# कोंकणी विश्वकोश

## खंड पयलो

•

(अं ते ञ)

मुखेल संपादक
**डॉ. मनोहरराय सरदेसाय**

कार्यकारी संपादक
**डॉ. तानाजी हळर्णकार**

गोवा विश्वविद्यालय, ताळगांव - गोंय
१९९१

# कोंकणी विश्वकोश संपादक मंडळ

मुखेल संपादक

**डॉ. मनोहरराय सरदेसाय**

कार्यकारी संपादक

**डॉ. तानाजी हळर्णकार**

संशोधन सहाय्यक

श्री. मुकेश थळी
श्री. शैलेन्द्र मेहता

संपादकीय सहाय्यक

श्री. पंढरीनाथ सुरसुरे (फेब्रुवारी १९८९ ते जुलै १९९०)
कु. कांचन शेल्डेकार
कु. कल्पना कुडतरकार (ऑगस्ट १९९० सावन)

कोंकणी विश्वकोश सल्लागार समिती

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
डॉ. तानाजी हळर्णकार
डॉ. सदाशिव देव
डॉ. भालचंद्र नेमाडे
डॉ. अरुण हेबळेकर
प्रा. शांताराम फळ

# मनोगत

कोंकणी विश्वकोशाचो हो पयलो खंड तुमचेमुखार दवरपाक आयज आमकां खूब आनंद जाता. म्हज्या कुलगुरूपदाचे कारकिर्दींतलो हो एक साफल्याचो आनी वचनपूर्तीचो क्षण अशें हांव मानतां. भारतीय संविधानातल्या आठव्या परिशिष्टांत कोंकणीचो समावेश जाल्या उपरांतची, ह्या विश्वकोशाचें प्रकाशन ही पयली म्हत्वाची आनी बुनियादी वावराची घडणूक जावन आसा. विश्वकोश हो गोवा विद्यापीठाचो एक शाश्वत स्वरूपाचो प्रकल्प आसा.

कोंकणी विश्वकोश हो कोंकणी भाशेंतलो मोलादीक संदर्भग्रंथ. कोंकणी विश्वकोश म्हळ्यार कोंकणी भाशेच्या विकासाचे वाटेवयलें एक पर्व जावन आसा. कोंकणी भाशेच्या आंगावयलो एक अप्रुप असो अलंकार जावन आसा. कोंकणी समाजाक अभिमान दिसपासारकी ही निर्मिती आसा.

कोंकणी भास आनी साहित्य हांचो विकास करप हें गोवा विद्यापीठाचें एक ध्येय आसा. ह्या ध्येयाक धरून गोवा विद्यापीठान कोंकणीच्या अध्यापनाचें कार्य नेटान चालीक लायलां. अध्यापनाबरोबर, कोंकणी संदर्भग्रंथांची निर्मिती करपाचें विद्यापीठाचें कार्य चालू आसा. ह्या कार्यांतलें एक पावल म्हळ्यार हो कोंकणी विश्वकोश आसा. सगळ्या ल्हान व्हड कोंकणी मनशांक, तांचे भाशेंत, विश्वाचें ज्ञान दिवपाच्या आमच्या हावेसाक ह्या पयल्या खंडावरवीं सुरवात जाता. ह्या कोशाच्या फुडल्या खंडांचें काम नेटान चालू आसा. उरिल्ले दोन खंड जाता तितके बेगीन तुमचे मुखार दवरपाचे आमचे प्रयत्न चालू आसात.

विश्वकोश ही खंयचेय भाशेंतली अभिमान दिसपासारकी निर्मिती. संवसारांतल्या नामनेच्या भाशांनी विश्वकोशाची निर्मिती जाल्या. आयज, कोंकणी विश्वकोशाचे निर्मितीतल्यान कोंकणी भास संवसारांतल्या हेर भाशांचे पंगतीक वचून बसता हाचो समस्त कोंकणी मनशांक अभिमान जातलो हाची आमकां खात्री आसा.

बुदवंत तशेंच सामान्य मनशाक विश्वाची माहिती करून घेवपाक मदत जांवची हो उद्देश मुखार दवरून निर्माण केल्ल्या ह्या संदर्भग्रंथाचो वाचकांनी चडांत चड उपेग करून घेतलो की आमी घेतिल्ल्या श्रमांचें सार्थक जालें अशें आमकां दिसतलें.

विश्वकोशाची निर्मिती करपाचें जोखमीचें काम आंगार घेवन हो पयलो खंड तयार केलो म्हणून हांव कोंकणी विश्वकोशाच्या संपादक मंडळाचें अभिनंदन करतां. तशेंच ह्या खंडाचे निर्मितीत आदार दिवपी सल्लागार मंडळाचें आनी हेर संबंदीत व्यक्तींचे अभिनंदन करतां.

कोंकणीचे उदरगतीखातीर हातांत घेतिल्या आमच्या दर एका उपक्रमाची तुमी तोखणाय करून आमकां प्रोत्साहन दिलां, तशेंच ह्या खंडाचें स्वागत करून आमकां उमेद दिवची अशें आमी तुमचेकडे मागतात.

**- डॉ. पद्माकर रामचंद्र दुभाषी**
कुलगुरू,
गोवा विश्वविद्यालय
ताळगांव - गोय

# पयलीं उतरां

कोंकणींतल्या पयल्या वयल्या विश्वकोशाचो पयलो खंड उजवाडाक हाडटना आमकां खोस जाता. गोवा विद्यापीठाचे पयले वयले उपकुलगुरू डॉ. बी. शेख अली हांच्या विचारांतल्यान, स्फूर्तीतल्यान आनी आदारांतल्यान, कोंकणी विश्वकोश आकाराक आयला.

फाटल्या पंचवीस वर्सांत कोंकणीची सगळ्या वाटांनी उदरगत जायत वता. मुळाव्या शाळांतलें माध्यम म्हणून तिका मान्यताय दिली. माध्यमिक शाळांनी ती दुसरी वा तिसरी भास म्हूण घेंव येता. गोवा विद्यापीठाची स्थापणूक जाल्या उपरांत थंय तिचें खेरीत आसन निर्माण जालें. १९७५ वर्सा साहित्य अकादमीन तिका भारतांतली एक स्वतंत्र साहित्यिक भास म्हणून मान्यताय दिली. कोंकणी भाशा मंडळ, गोवा कोंकणी अकादेमी हांच्या वावराक लागून कोंकणींत पाठ्यपुस्तकां, व्याकरण, शब्दकोश तयार जाले आनी १९८७ वर्सा तिका सरकारी भाशेचो दर्जो मेळ्ळो. भाशेची उदरगत सगळ्या आंगांनी जाल्यारूच तिका पूर्णताय येता. साहित्याच्या मळार कोंकणीन फाटल्या २५ वर्सांत जाय ती उदरगत केल्या, हें जरी खरें आसलें तरी विज्ञानाच्या मळार तिणें अजून पावल दवरूंक ना. ते नदरेन गोवा विद्यापीठान १९८६ वर्सा येवजिल्लो आनी १९९२ वर्सा रूपांत हाडिल्लो हो कोंकणी विश्वकोश म्हळ्यार एक म्हत्वाचें तशेंच इतिहासीक पावल.

विश्वकोश म्हळ्यार अख्ख्या विश्वाक घाल्ली बौद्धिक भोंवडी. विश्वकोश म्हळ्यार गिन्यानाचें पुराय वर्तुळ-समस्त विश्वाक वेंगावपी. इंग्लीश उतर Encyclopaedia हातूंत तोच अर्थ अभिप्रेत आसा. मूळ ग्रीक उतरां 'कुक्लोस' (वर्तुळ) आनी 'पीडिया' (शिक्षण, गिन्यान) हांचेवेल्यान तें घडलां.

विश्वकोश म्हळ्यार संवसारांतल्या गिन्यानाक धाकटुली प्रस्तावना. ती जाणविकाय दिता, अभ्यासाची दिशा दाखयता आनी मूळ ग्रंथाचो संदर्भ सांगता. थोड्याच वेळांत वाचपाक जाता अशी ती एक धाकटुली पुस्तक-कोठी.

तीन खंडांत फक्त तीन हजार पानांनी संवसारांतल्या सगळ्या गिन्यानाचो अर्क दिवप हो वावर, जितल्या कश्टाचो तितलोच जोखमीचो. तरीय आसतना सामान्य वाचप्याची आनी चडकरून कोंकणी वाचप्यांची जिज्ञासा जितली भागोवंक जाय, तितलो आमी यत्न केला. ह्या विश्वकोशांत सगळ्याच विशयांचेर सगळेंच गिन्यान मेळचें ना, तरीय संवसाराच्या गिन्यानाचें जातूंत पडबिंब पडटा असो हो धाकटुलो हारसो. ह्या हारशांत पळोवन शिममेर नाशिल्ल्या ह्या गिन्यानाच्या वाठारांत ताका आपली वाट सोदून काडप सोपें जावंचे हो आमचो हावेस.

कोंकणी विश्वकोशाचो आंवाठ व्हड पूण आकार ल्हान आसल्याकारणान नोंदी संख्येन थोड्यो आनी लांबायेन ल्हान कराच्यो पडल्यात. हाका लागून कांय विशयांची विस्कावणी पुराय तरेन जावंक पावना. वाचप्यांची भूक आमी जागयल्या ती पुराय आमच्यान भागोवंक जावंकना, हाची आमकां जाणविकाय आसा. पूण गिन्यानाची भूक केन्नाच भागना आनी ज्या वाचप्याक आनीक गिन्यान जोडचें आसा ताणें मुजरत संदर्भ ग्रंथाचो आदार घेवचो, वा हेर भाशांतल्या विश्वकोशांचो पालव घेवचो. ल्हान विश्वकोश करपाच्या वावरांत व्हडल्यो आडखळी येतात. एका विशयावेली पुराय म्हायती दिवपाक व्हड नोंद बरोवप सोंपें. पूण ल्हान नोंद बरोवप कठीण. खंयचें सोडचें आनी खंयचें घेवचें हाचे तारतम्य गिन्यान आसल्याबगर तें जायना. शिसलीभर अत्तर घडोवपाखातीर हजारांनी फुलांच्या पाकळ्यांचो उपेग करचो पडटा तशेंच संवसाराचें सगळें गिन्यान कांय पानांभितर बांदून दवरपाक हजारांनी पानां वाचचीं पडटात. सर्वसादारण मनशाक आनी चडकरून विद्यार्थ्यांक एकेचकडेन एकठांय केल्लें गिन्यान सहजतायेन मेळूंक जाय आनी ताची गिन्यानाची भूक थोडीतरी भागूंक जाय.

जशें, जशें गिन्यान वाडटा तसो तसो तरेकतरेंचीं शास्त्रां आनी कला हांचो एकामेकां भितरलो संबंद ध्यानांत येता. एका विशयाचें नातें दुसऱ्या विशयालागीं आसता. हे संबंद इतल्या सोंपेपणान आनी इतल्या थोड्या वेळांत स्पश्ट करपाचें विश्वकोशासारकें दुसरें सादन ना. संवसारांतलें गिन्यान दिसपट्टें वाडत वता, संसाराविशींच्यो आमच्यो कल्पना बदलत वतात, देखुनूच, ह्या विश्वकोशांत उक्तायलां तें गिन्यानाचें निमाणें स्वरूप अशें मानचें न्हय. खंयचोय विश्वकोश पुरायपणान अद्यावत् (up-to-date) आसना. कांय वर्सांनी नव्या गिन्यानाचो आस्पाव करून घेवपाक विश्वकोशाचे नवे आवृत्तीची गरज लागतली.

विसाव्या शतमानाच्या ह्या निमाण्या दशकांत विज्ञानाची वाटचाल खूब गतीमान जाल्या. तेचपरी संवसाराचें राजकी चित्र दर

दिसा बदलत आसा. ह्या बदलाची नोंद घेवन आमी हो विश्वकोश चडांत चड आर्विल्लो करपाचो यत्न केला.

वाचप्याच्या गिन्यानांत भर घालप हो विश्वकोशाचो मुखेल हेत आसलो तरी वाचप्याच्या विचाराक दिका दिवप आनी शास्त्रीय नदरेंतल्यान जिवीताकडेन आनी संवसाराकडेन पळोवपाची संवय लावप हो लेगीत विश्वकोशाचो हावेस आसूंक जाय. साक्षरतायेचीं पावलां नेटान पडूंक लागल्यांत आनी साक्षर मनशाक सामान्य गिन्यान सादे सोंपे भाशेंत वाचूंक मेळूंक जाय, ही काळजी आमी जाता तितली घेतल्या.

दर एक नोंद, त्या त्या विशयाच्या जाणकाराकडल्यान बरोवन घेवप आनी मागीर दुसऱ्या एका जाणकाराकडल्यान ती तपासून घेवप, हें तंत्र आमी आपणायलां. पूण तें पुराय सफळ जालां अशें म्हणूं नज. गोंयांत आनी गोंयांभायर यत्न करून्य आमकां कांय विशयांवेल्यो नोंदी मेळूंक पावल्यो नात. कांय जाणकारांनी बरयल्ल्यो नोंदी आमकां वेळार मेळ्ळ्यो नात. ह्या आनी हेर कारणांक लागून जायत्यो नोंदी कोंकणी विश्वकोश संपादक मंडळाच्या वांगड्यांक बरोवच्यो पडल्यांत.

आमचे मुखार आनीक एक प्रस्न आसा तो म्हळ्यार कोंकणीचें शुध्दलेखन आनी तिचें प्रमाण रूप. गोवा कोंकणी अकादेमीन थारायिल्ल्या शुध्दलेखनाच्या नेमांप्रमाण आमी बरोवपाचो यत्न केला. पूण ह्या नेमांत खूबशे आड नेम आस्पावनात, देखून आमकांच केन्ना केन्ना नवे नेम करचे पडले. कोंकणीक अजून एक प्रमाण रूप येवंक ना. पुराय प्रमाण रूप खंयचेच भाशेक केन्नाच येना हें खरें आसलें तरी कोंकणी उलोवपी लोक विंगड विंगड वाठारांनी विभागून गेल्ल्या कारणान आनी कोंकणी बरोवपाची भास तीन चार लिपयांनी वाटून गेल्ल्या कारणान ह्या खिणाक तरी कोंकणीचें एकूच रूप थारावप कठीणूच. खंयतरी तडजोड करची पडटा आनी ती आमी सर्वसामान्य वाचकांखातीर केल्या. गोंयच्या पाठ्यपुस्तकांनी जी भास वापरतात आनी जी भास मान्यताय पाविल्ले कोंकणी बरोवपी बरयतात ती भास आमी प्रमाण अशी मानल्या. आधुनिक कोंकणीचे जनक शणै गोंयबाब हांणी एकठायल्ल्या आनी घडयल्ल्या कोंकणी उतरांचोय आमकां खूब उपेग जाला.

कोंकणी विश्वकोश फक्त गोंयच्याच वाचप्यांक न्हय, तर तो समस्त कोंकणी वाचप्यांक वाचपाक समजुपाक कठीण जावंचो ना अशी आमी आस्त धरतात. आनीक एक प्रस्न उप्रासला तो कोंकणी भाशेंत रिगिल्ल्या पोर्तुगेज उतरांचो. जंय जंय शक्य जालां थंय थंय आमी पोर्तुगेज उतरां बदला संस्कृत, प्राकृत हांच्यावेल्यान आयिल्ल्या उतरांचो वापर केला. ही प्रथा नवी न्हय. मोंसिन्योर सेबास्तियांव रोदोल्फु दाल्गाद हाणें हो यत्न विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक केलो, आनी आपल्या कोंकणी-पोर्तुगेज आनी पोर्तुगेज-कोंकणी ह्या दोन शब्दकोशांत वेव्हारांत हाडिल्लो. जीं पोर्तुगेज उतरां मूळ कोंकणी शब्दांत भरसून गेल्यांत आनी कोंकणी भाशेचेंच आंग जाल्यांत, तीं उतरां आमी सदळपणान वापरल्यांत, देखीकः कदेल, मेज, कुलेर, दोतोर, खोमीस, पगार, कुल्चांव, जनेल, इगर्ज, मीस, कुमसार, पाद्री, माद्री, फीत, तिजोरी, आरमार. असलीं पोर्तुगेज उतरां शुध्दीकरणाच्या नांवान भायर काडून उडोवंक नात; पूण हळूहळू इंग्लीशीचो प्रभाव पडूंक लागलो तशी तशी इंग्लीश उतरांनी पोर्तुगेज उतरांचीं सुवात घेतली. देखून आमी 'जानेर', 'फेब्रेर' असल्या उतरां बदला 'जानेवारी', 'फेब्रुवारी' हीं उतरां वापल्यांत, तेचपरी आर्विल्ल्या विज्ञानाचेर परिभाशेची उतरां आमी इंग्लीशींतल्यानूच घेतल्यात आनी पुराय बोध जावचो म्हूण तीं, जाय तेन्ना देवनागरी लिपी बरोबरच रोमी लिपयेंतय दिल्यांत. हेर भाशांतल्यान घेतिल्लीं आनी कोंकणीत एकजीव जाल्लीं उतरां आमी तशींच दवरल्यांतः देखीक- इंग्लीशः आउट, बॅट, बॉल, पानो, किलिंडर, बस.
फ्रेंचः वल्तेर, तामरेत.
अरबी- फारसीः भोगसप, खबर, नबत, शेनाय, अब्दागीर, मुस्तायकी, ताकतीक, फरक, फक्त, काळीज, नदर, इत्यादी.

शुध्दलेखनाच्या नव्या नेमांप्रमाण इकारान्त शब्दाचें निमाणे अक्षर ऱ्हस्व बरयताले, तें आता दीर्घ बरयतात. देखीकः कवि-कवी, पति-पती. पूण तें उतर विशेषनाम आसत वा पुस्तकाचें माथाळें आसत तर मूळ आसा तशेंच दवरलां. देखीक-'देवीस्तुति'.

गिन्यान हें सुकें सडसडीत आसूंक जाय, अशें मानपाची गरज ना. आनी जाका गिन्यानाची गोडी आसा ताका विश्वकोशाचें वाचप कादंबरीपरस रुचीक जातलें हातूंत दुबाव ना. तारायंत्र, दूरदर्शन, विमान, ह्या यंत्रानी मनशांमनशांक जोडल्यात विश्वकोशय तेंच काम करता. गिन्यानाच्या सगळ्या विश्वाक तो एकठांय हाडटा. अखिल विश्वाचेर शेक गाजोवप हें जायत्या झुजप्यांचें सपन आशिल्लें, अजून आसा. अखिल विश्वाक जाणून घेवप आनी आपुणूच ह्या विश्वाचो वांटो जावप हें विश्वकोशकारांचें सपन. 'हें विश्वचि माझें घर' अशें जो मानता ताचे भोंवडेंत विश्वकोश हें पयलें पावल.

क्रिस्तपूर्व पयल्या शतमानांतलो व्हार्रो (Varro) ह्या रोमन पंडिताक पयलो विश्वकोशकार म्हणूं येता. ताच्या 'मानवी दैवी जाणविकाय' ह्या ग्रंथांत हे णव विशय आस्पावतातः व्याकरण, तर्कशास्त्र, वक्तृत्व, गणित, त्रिकोणमिती, खगोलशास्त्र, संगीत, वैजकी, वास्तुशास्त्र. प्लिनी (व्हडलो) हाच्या सैमीक इतिहासाचे ३७ खंड आसात. सातव्या शतमानांतलो सेव्हीलचो इझिदोर हाच्या

'क्रॉनिकॉन' ह्या ग्रंथांत जगाच्या आरंभापसूनचो इतिहास सांगला. 'विज्ञान शास्त्राची वळेरी' हो अलफराबी हाणे बरयल्लो विश्वकोश मध्ययुगांत युरेपभर लोकप्रिय जालो. तशेंच, इकराव्या शतमानांतल्या आव्हिसेन्ना ह्या पंडितान 'अश-शिका' हो विश्वकोश बरयलो. चीन देशांत धाव्या शतमानांतल्या बू शू हाचो 'शिह लेइफू' आनी मा तुआन-लीन हाचो 'वेन हसियेन तूंग काओ' हो विश्वकोश १४ व्या शतमानांतलो.

अठराव्या शतमानांतलो एफराईम चेंबर्स हाचो साइक्लोपीडिया हो रचणुकेचे नदरेन आधुनिक असो विश्वकोश. ह्या कोशांतल्या नोंदीचें वर्गीकरण ४७ शास्त्रां आनी कला हातूंत केलां. पूण युरोपांत वैचारिक क्रांती घडोवन हाडपी विश्वकोश म्हळ्यार दिदरोच्या संपादनाखाला उजवाडाक आयिल्लो फ्रेंच विश्वकोश. ह्या विश्वकोशांतल्यो उद्येगधंदे आनीः कला विशयक खुबश्यो नोंदी प्रत्यक्ष निरीक्षण करूनच बरयल्या आनी तेखातीर मुजरत काडिल्लीं चित्रां आनी आराखडे घालून ताका उपेगी रूप दिलां.

आपले प्रस्तावनेंत दालांबॅर विश्वकोशाचो उद्देश असो मांडटाः 'सगळ्या तरांच्या कलांचें आनी शास्त्रांचें गिन्यान मेळोवपाक हो उपेग पडटलो, तसोच जे दुसऱ्यांक शिकोवंक सोदतात वा जे आपल्या आपणाकूच शिकोवंक सोदतात तांकां विश्वकोश मार्गदर्शन करतलो.' कोंकणी विश्वकोश लेगीत होच हावेस बाळगिता.

अस्ततेंत जाल्ले तशे विश्वकोश भारतांत जाले नात अशें म्हणू येता. पूण हिंदू संस्कृतायेची खुबशी माहिती आनी विचार सामान्य लोकांमेरेन पावोवपाचें काम आमच्या पुराणांनी केलां. हातूंत पोरने कायदे, संस्कार, चालीरीती, देवदेवतांची कर्तुपां, दंतकथा आनी हेर जायत्या गजालींचो आस्वाव जाता.

कोंकणी विश्वकोशांतल्या नोंदीतलीं मतां ही संपादकांचीं वा नोंद-लेखकाचीं मतां न्हय. सामान्यतायेन जीं मतां सगळ्यांक मान्य आसात तींच मतां पूर्व ग्रह धरीनासताना हांगा मांडल्यांत. ह्यो नोंदी व्यक्तिनिष्ठ न्हय, तर चडांत चड वस्तूनिष्ठ करपाचो यत्न केला.

सर्वसादारण कोंकणी मनशाचीं गिन्यानाची भूक भागूंक जाय हे नदरेन हो विश्वकोश चड मोलाचो थारतलो. ह्या विश्वकोशाक वेव्हारी अशें आंग आसा. खंयच्याय कोंकणी मनशाक खंयच्या विशयाचेर मुळावे जाणविकायेची गरज भासल्यार ती गरज भागोवपाक हो विश्वकोश आदार दितलो. हातूंत 'गणितशास्त्र', 'चंद्र' ह्या नोंदीवांगडाच 'खोकली' 'आंबील' असल्या दिसपट्टे गरजेच्या विशायाचेरूय माहिती मेळटली. हो विश्वकोश 'संवसार-चोपडी' ची गरज थोडीभोव भागयतलो. सर्वसादारण कोंकणी मनशाची गिन्यानाची भूक कोंकणींत भागूंक जाय. ते नदरेन हो विश्वकोश चड मोलाचो थारतलो. सगळ्या विशयांचेर थोडें तरी गिन्यान आसप ही आयच्या युगाची गरज, लोकशाही बांदावळीचें तें एक म्हत्वाचें सपण म्हळ्यार गैर जावचें ना.

हो विश्वकोश शाळा कॉलेजांतल्या भुरग्यांच्या हातांत पडल्यार कोंकणी भाशीक फुडले पिळगेक एक वस्तुनिष्ठ अशी नदर येतली आनी कोंकणींतल्यान विचार करून आपले मुळावे अस्मितायेक रूपकार दिवपाची संद मेळटली. ह्या विश्वकोशाचो उपेग सामान्या वाचप्याभाशेनूच तज्ञांकूय थोडोभोव जातलो. तज्ञाक आपल्याच विशयांत हातूंत चडशें नवें काय मेळचें ना हें खरें. रसायन शास्त्राक हांगा रसायन शास्त्राचेर पूरक जाणविकाय मेळची ना. पूण समाजशास्त्र्याक, रसायनशास्त्राविशीं जाणा जावन घेवपाचो आसल्यार खात्रीन ताका ह्या विश्वकोशाचो उपेग जातलो.

संवसारांतल्या सगळ्या गजालीचें गिन्यान सामान्य वाचप्यांच्या हातांत दिवपाचो यत्न आमी केलो आसलो, तरी आमचो चड भर कोंकण, कोंकणी साहित्य आनी कोंकणी संस्कृताय, कोंकणांतले व्हड मनीस, वनस्पत आनी मोनजात हांचेर आसा. ही जाणविकाय मेळपाखातीर आमकां खाशेले कष्ट घेवचे पडल्यात. कोंकणासंबंदी पुराय माहिती भारतांतल्या हेर विश्वकोशांत फाव तितली नाशिल्ल्यान आमकां तरेतरेच्या ग्रंथांनी, नेमाळ्यांनी आनी दिसाळ्यांनी फाफुडलेली जाणविकाय आसडून फाफडून विश्वकोशाचे फास्केंत बसता तशी तयार करून दिवंची पडल्या.

कोंकणी विश्वकोशाच्यो नोंदीची मांडावळ देवनागरी वर्ण क्रमाप्रमाण केल्याः

अ, अॅ, आ, ऑ, इ, ई, उ, ऊ

ऋ, लृ, ए, ऐ, ओ, औ.

ं, (अनुस्वार), : (विसर्ग)

अं, आं, इ, ई, तशेंच कं, खं, कां, खां इत्यादी अनुस्वारयुक्त स्वरांनी सुरू जातात त्यो नोंदी पयल्यो येतात.

क, ख, ग, घ, ङ

च, छ, ज, झ, ञ

ट, ठ, ड, ढ, ण

त, थ, द, ध, न
प, फ, ब, भ, म
य, र, ल, व, श,
स, ह, ळ, क्ष, ज्ञ.

कोंकणीत लांबाडो अं, उक्तो ऑ हे उच्चार आसात, पूण तांकां वेगळ्यो कुरखो वापरूंक नात. कोंकणी मनीस संदर्भाप्रमाण फाव तो उच्चार करतलो अशें आमी धरून चलतात. देखीकः हो वावर कर

*कदेल* खंय आसा? (सादो)
तो *बोरीर* चडटा (धांपिल्लो)
म्हाका एक *पेर* दी (उक्तो)
मुंबयच्यान *बोट* आयली (धांपिल्लो)
ताचें *बोट* सुजलां (उक्तो)

पूण परभाशांतल्या अक्षरांचे उक्ते उच्चार "ॅ" हे कुरखेन दाखयल्या. देखीकः अँग्लो-इंडियन, अँडोरा, अॅगमार्क, अॅटलास.

खंयच्याय उतराचे स्पश्टीकरण करपाखातीर कंसाचो उपेग केला.

एकेच नोंदीक दोन उतरां आसल्यार एक नोंद रिती सोडून दुसरे नोंदीचें उतर पळोवचें अशें सुचयलां. देखीकः अमास (पळयात उमास), एके नोंदींत आयिल्ल्या उतराचेर दुसरी नोंद आसल्यार ताचे फुडें (*) अशी कुरू केल्या.

मनशांविशींच्यो नोंदीः

मनशांच्या नांवाच्या नोंदींत आडनांव पयलीं घेतलां. देखीकः कारे, दामोदर अच्युत.

पुण जेन्ना एका मनशाक ताच्या मूळ नांवापरस ताच्या दुसऱ्या नांवान चड वळखतात तेन्ना दुसऱ्या नांवाचीच नोंद घेतल्या. जशेंः बालगंधर्व.

एकेच व्यक्तीचो उल्लेख करताना सर्वनाम वापरलां तें आमी तृतीय पुरुष एकवचनी वापरलां. सन्मानार्थी अनेकवचन वापरूंक ना. कोंकणीचे व्याकरण प्रकृतीक हें धरून आसा अशें दिसता. देखीकः 'बिस्मिल्लाखाँ' हाका 'हो', 'तो', असो संबोधला. 'हे', 'ते' असो न्हय. तशेंच 'अँनी बेझट' हिका 'ही' 'ती' अशी संबोधल्या 'ह्यो' अशी न्हय. एकवचन वापरलें म्हणून ते व्यक्तीक मान उणो दिला अशें मानचें न्हय. युरोपी भाशांत लेगीत तृतीय पुरुष एकवचन वापरतात देखीकः he= तो, she= ती, it= तो, elle= ती, er= तो, sie= ती. इंग्लीश, फ्रेंच आनी जर्मन भाशांत एकवचनीच रुपां वापरतात.

शक्य आसा थंय ते ते भाशेंतले उच्चार आमी आसात तशे दिवपाचो यत्न केला. देखीकः स्पेन आनी पोर्तुगाल हाच्या संबंदीत नोंदींतलीं उतरां आमी स्पॅनिश आनी पोर्तुगेज उच्चाराप्रमाण दिल्यांत. पूण इंग्लीशीच्या प्रभावाक लागून तशेंच सदांच करप शक्य जावंक ना. ज्या उतरांचे इंग्लीशीकरण रुढ जालां तेन्ना आमी हो इंग्लीश रुढ उच्चारूच दिला. देखीक, नामनेच्या फ्रेंच बरोवप्याचें नांव 'व्हिक्तॉर युगो' पुण ताचें भारतांत रुढ जाल्लें, 'व्हिक्टर ह्युगो' हेंच रुप आमी घेतलां. हाका लागून वाचप्याच्या मनांत थोडो भोव गोंदळ जावपाची शक्यता आसा, पूण तो गोंदळ पुराय ना करप आमच्या हातांत ना.

हो विश्वकोश घडयतना आमचे मुखार एक व्हड प्रस्न आसलो तो पारिभाशीक उतरावळीचो. अस्तंती देशांतल्यो भासो, आपलीं शास्त्रविशयक उतरां, ग्रीक आनी लॅटीन भाशांतल्या उतरांवेल्यान घडयतात. आर्विल्ल्यो भारतीय भासो असल्या उतरां खातीर संस्कृताच्या गिरेस्त भांडाराकडेन धांव घेतात. अशी शास्त्रविशयक उतरां आमी संस्कृत भाशेंतल्यान घेतल्यांत, पूण शक्य जालां थंय थंय आमी थळावी कोंकणी उतरां वापरल्यांत. देखीकः क्षितीज/चार, कूप/बांय, श्वासनलिका/सकनळी, वल्कल/साल.

संपादक मंडळाचें काम चड जोखमीचें. जाणकारांनी बरोवन धाडिल्ली नोंद विश्वकोशाच्या फास्केंत दिस्त बसता काय ना हें पळोवचें पडटा. केन्ना थोडें जोडचें पडटा तर थोडें काडचें पडटाः दर एक गजाल, दर एक उतर खरें काय तें पळोवन नोंद सारकी करची पडटा. व्याकरणाच्यो, तशेंच भाशेच्यो चुको सुदारच्यो पडटात आनी निमाणे छापपाच्यो चुको दोळ्यांत तेल घालून पारखून सुदारच्यो पडटात. हो एक विश्वकोश. हातूंत उतरांची व्याख्या मेळची ना. हाचे खातीर वाचप्यान शब्दकोशाचो आदार घेवचो. पूण जंय जंय व्याख्येची गरज भासल्या, थंय थंय आमी व्याख्या दिल्या. तरी उतरांच्या अर्थाखातीर वाचप्याक बऱ्या शब्दकोशालागींच धांव घेवची पडटली.

ह्या विश्वकोशांच्यो नोंदी बरोवपापासत आमी हेर विश्वकोशांनी थारायिल्ली पध्दत आपणायल्या. जंय जंय आमकां ल्हानशे बदल करचेशे दिसल्यात ते ते आमी केल्यात. एकाच विशयांतल्या नोंदी भितर एकसुत्रताय राखपाचो यत्न केला. गरज लागता तेन्ना छायाचित्रां, आकृतायो आनी नकाशे हांचो उपेग करून उतरांक चित्रांचो आदार दिला. कांय चित्रां नकाशे आमकां आयते मेळ्ळ्यात, तरी खूबशीं चित्रां वा नकाशे आमी चित्रकारांकडल्यान मुजरत काडून घेतल्यात.

सुदैवान संवसारांतल्या नामनेच्या विश्वकोशकारांनी केल्ल्या वावराक लागून आमगेली वाट सोंपी जाल्या. इंग्लीश Chambers' Encyclopaedia Encyclope'die हांचे संपादक, मराठी ज्ञानकोशकार डॉ. श्री. व्यं. केतकर हांकां आयिल्ल्यो आडखळी आमचे मुखार ना. तांकां जशें मुळावें संशोधन करचे पडलें, तशें तें आमकां तितल्या प्रमाणांत करचें पडूंक ना.

विसाव्या शतमानांतल्यो भारतांतल्यो आनी भारताभायल्या विश्वकोशाचें आमी सदळ हातान रीण घेतलां. तातूंत म्हत्वाचे कांय विश्वकोश हे : मराठी विश्वकोश, हिन्दी विश्वकोश, कन्नड विश्वकोश, भारतीय संस्कृतिकोश, मराठी ज्ञानकोश आनी हेर युरोपी विश्वकोश. Grande Encyclope'dia Portuguesa e Brasileira; VERBO, Encyclope'dia Luso-Brasileira de Cultura; Larousse du xxe sie'cle; Petit Larousse illustre'; Encyclopaedia Britannica; Columbia Encyclopedia.

ह्या सामान्य विश्वकोशाभायर आमी खाशेल्या विशयांक ओपिल्ल्या कोशांचोय आदार घेतला. तातूंतले कांय हे: भारतीय संस्कृतिकोश, भारतीय समाज विज्ञानकोश, New Encyclopaedia of sports, Hutchinson pocket Encyclopaedia, Statesman's Book of the year, Encyclopaedia of social sciences, Encyclopaedia of Nations.

पूण आमी कुड्डें अनुकरण करूंकना. त्या विश्वकोशांत उरिल्ल्यो चुको पारखून आमी त्यो निवळायल्या.

हे येवजणेचें घट मुळावण घालपाक आनी विश्वकोश रचणुकेचें तंत्र आनी मंत्र शिकपाक आमकां वाईच्या महाराष्ट्र राज्य साहित्य संस्कृती मंडळाच्या मराठी विश्वकोशाच्या जाळवणदारांनी तशेंच संपादकांनी मोलादीक मार्गदर्शन केलां. मुखेल संपादक तर्कतीर्थ श्री. लक्ष्मण शास्त्री जोशी हांणी तर कोंकणी विश्वकोशाच्या कार्यालयाक भेट दिवन आमकां बुद्द आनी उर्बा दिली. तांचे उपकार मानीत तितले थोडे. तशेंच म्हैसूर विद्यापीठंतल्या कन्नड विश्वकोशाच्या जाळवणदारांनी आमकां जायतो पालव दिला. तांचे उपकार मानलेबगर आमच्यांनी रावं नज. वाई आनी म्हैसूर हांगा मेळिल्ल्या मार्गदर्शनाक लागून आमची वाट सोपी जाली हें सांगपाची गरज ना.

विश्वकोशाचो वावर हो एकल्या दुसल्याचो न्हय. तो एका वांगडाचो वावर. हो विश्वकोश रचपाक आनी छापपाक जायत्या जाणांची बुद्द खर्च जाल्या, हातांचो आदार मेळ्ळा. त्या सगळ्यांचे संपादक मंडळ उपकारी आसा. तशेंच कोंकणी विश्वकोशाच्या सल्लागार मंडळान केल्ल्या सुचोवण्यां पासतूय आमी वांगड्यांचे उपकारी आसात. विश्वकोश संपादक मंडळाच्या वांगड्यांनी जो हातभार लायला तांचेय आमी रीणकारी.

कोंकणी भाशेंतलो हो पयलोच प्रयोग आसल्याकारणान आनी संपादक मंडळाचोय विश्वकोश संबंदी पयलोच वावर आसल्या कारणान चुको चुकून उरपाचो संभव आसा, हें आमकां खबर आसा. वाचप्यांनी असल्यो चुको मुजरत आमचे नदरेक हाडून दिवच्यो. पयलो खंड करपाच्या वावरांतल्यान जो कांय अणभव मेळ्ळा, ताचो, मुखावेले खंड करपाक आमकां उपेग जातलो.

'Knowledge is divine' (गिन्यान दैवी) हें गोवा विद्यापीठाचें बोधवाक्य. सर्गांतल्या गिन्यानाची गंगा हाडपी भगीरथ थोडेच. पूण, तें गंगेचें पवित्र उदक कावडींतल्यान घराघरांत पावोवपाचो वावर होय म्हत्वाचो. हो वावर कोंकणी विश्वकोशाच्या हातसून जातलो अशी आमी आस्त बाळगितात.

४ एप्रिल १९९२
संवसार पाडवो
चैत्र शुध्द प्रतिपदा, १९१४

**मनोहरराय सरदेसाय**
मुखेल संपादक

# उ प का र

कोंकणी विश्वकोशाच्या रूपान कोंकणी भाशेंत एका मोलादीक संदर्भ ग्रंथाची भर पडटा, ही कोंकणी मनशाक अभिमानाची गजाल. अशा स्वरूपाचो हो पयलो संदर्भ ग्रंथ जाल्ल्यान, कोंकणी विश्वकोशाक एक आगळें स्थान आनी म्हत्व प्राप्त जाता.

कोंकणी विश्वकोशाचे निर्मितींत कितल्याशाच व्यक्तींचें आनी संस्थांचें सहकार्य मेळ्ळां. सगळयांच्याच नांवांचो उल्लेख करप हांगा शक्य ना: तरी सकयल दिल्ल्या व्यक्तींचो उल्लेख करप आमचें कर्तव्य आसा. ह्या विश्वकोशाचे निर्मितींत सकयल दिल्ल्या व्यक्तींचें आमकां विशेश सहकार्य मेळ्ळां.

१) डॉ. पी. आर. दुभाषी, उपकुलगुरू, गोंय विद्यापीठ
२) डॉ. बी. शेख अली, माजी उपकुलगुरू, गोंय विद्यापीठ
३) श्री. जी. व्ही. कामत, कुलसचिव, गोंय विद्यापीठ
४) डॉ. एस्. के. गंधे, माजी कुलसचिव, गोंय विद्यापीठ
५) डॉ. एस्. जी. देव, कोंकणी विश्वकोश सल्लागार समिती वांगडी
६) डॉ. बी. व्ही. नेमाडे, कोंकणी विश्वकोश सल्लागार समिती वांगडी
७) डॉ. ए. के. हेबळेकर, कोंकणी विश्वकोश सल्लागार समिती वांगडी
८) प्रा. एस्. आर. फळ, कोंकणी विश्वकोश सल्लागार समिती वांगडी;
९) प्रा. व्ही. आर. नावेलकर, गोवा कॉलेज ऑफ आर्ट.

वयर उल्लेख केल्ल्या व्यक्तींनी विशेश करून डॉ. दुभाषी, डॉ. अली, श्री. कामत आनी डॉ. गंधे हांणी विश्वकोशाच्या कामांत दाखयल्ले आस्थेखातीर आनी केल्ल्या मार्गदर्शनाखातीर आमकां विश्वकोशाचें काम करप सोंपें जालें. तेच परीन गोंय विद्यापीठाच्या पुराय प्रशासनाचोय आमकां बरो पालव मेळ्ळो. कोंकणी विश्वकोशाच्या फुडल्या खंडांच्या कामांत आमकां सगळयांनी असोच पालव दिवचो अशी विनंती.

**डॉ. तानाजी हळर्णकार**
कार्यकारी संपादक

# कोंकणी विश्वकोश

## खंड पयलो

### लेखक, अणकारपी, समीक्षक आनी नियाळ करपी

**डॉ. एस्.एस्. अंतरकर,** एम्.ए.; पीएच्.डी.; तत्वगिन्यान विभाग मुखेल, मुंबय विद्यापीठ, मुंबय.

**डॉ. पूर्णानंद सोमू अवदी,** एम्.बी.बी.एस्.; डी.पी.बी.; एम्.डी.; (पॅथो. आनी बॅक्टे.); एम्.डी. (फॉरेन्सिक मॅडिसीन); सहाय्यक प्राध्यापक, फॉरेन्सिक मॅडिसीन ॲण्ड टॅक्सिकोलॉजी, गोंय वैजकी महाविद्यालय, बांबोळी.

**प्रभाकर आंगले,** बी.कॉम.; वेपारी, पणजी.

**एन्.एन्. आनन्दन्,** एम्.ए.; एम्.फिल्.; प्राध्यापक, सनातन धर्म कॉलेज, सनातनपुरम्, अलेची.

**सुधा सु. आमोणकार,** मुख्याध्यापिका, न्यू गोवा हायस्कूल, म्हापशें - गोंय.

**मॅथ्यू आल्मैद (जे.स.),** एम्.ए.; पीएच्.डी., संचालक, तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, मिरामार, पणजी.

**ए.एच्. प्रेमकुमारी**

**प्रा. सुमंत कनयाळकर,** एम्.ए.; डी.एम्.एस्. कॉलेज ऑफ कॉमर्स, आसगांव - म्हापशें.

**श्री. नागेश करमली,** लेखक, सुटके झुजारी.

**डॉ. नरेश कवडी,** एम्.ए.; पीएच्.डी.; निवृत्त प्राध्यापक, श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले कॉलेज ऑफ आर्ट्स ॲण्ड सायन्स, मडगांव.

**प्रा. राजेंद्र काणेकर,** भौतिकशास्त्र विभाग, सेंट झेवियर कॉलेज, म्हापशें - गोंय.

**डॉ. विश्वास कानडे,** एम्.ए.; पीएच्.डी.; डिप. टी.ई.ओ. (मँचेस्टर), निवृत्त प्राध्यापक आनी विभाग मुखेल, स्नातकोत्तर इंग्लीश विभाग, नागपूर विद्यापीठ, जनरल सेक्रेटरी, इंडिअन असोसिएशन फॉर इंग्लीश स्टडीज.

**श्री. नंदकुमार कामत,** एम्.एस्सी.; संशोधक, गोंय विश्वविद्यालय, ताळगांव - गोंय.

**डॉ. विजयेंद्र पी. कामत,** एम्.एस्सी.; पीएच्.डी.; रसायनशास्त्र विभाग, गोवा विश्वविद्यालय, ताळगांव - गोंय.

**प्रा. श्रीकृष्ण उपेन्द्रराव कामत,** एम्.एस्सी.; प्राध्यापक, गणित विभाग, धेंपे कॉलेज, मिरामार - पणजी.

**डॉ. सुर्यनाथ यू. कामत,** एम्.ए.; पीएच्.डी. (इतिहास), मुखेल संपादक, कर्नाटक राज्य गॅझेटीयर, बेंगलोर.

**श्री. ना.गो. कालेलकर,** लेखक आनी भाशाशास्त्री.

**रमेश स. बरवे,** आकाशवाणी पणजी.

**फा. कॉज्मे जु. कॉस्ता,** पिलार सेमिनारी.

**ए.बी. कुयेल्हो,** भौतिकशास्त्र विभाग मुखेल, सेंट झेवियर कॉलेज, म्हापशें-गोंय.

**श्री. जे. कुयेल्हो,** एम्. ए.; सचिव, गोंय खणमाल निर्यातदार संघटना, पणजी - गोंय.

**श्री. नारायण रा. केळकर,** मॅट्रिक (मुंबय विद्यापीठ), साहित्य विशारद (हिंदी साहित्य संमेलन), साहित्य विशारद (मराठी साहित्य परिशद), पुणे.

**डॉ. नीना व्ही. खरंगटे,** सूक्ष्मजीवशास्त्र विभाग, गोंय वैजकी महाविद्यालय, बांबोळी, गोंय.

**डॉ. ए. व्ही. खांडेपारकार,** बी. व्ही. एस्‌सी. आनी ए. एच.; एन्. डी. बी. पी.; प्रकल्प अधिकारी, सहाय्यक प्रकल्प अधिकारी, पशुसंवर्धन खातें, कुर्टी, फोंडें - गोंय.

**डॉ. एस्. के. गंधे,** एम्. ए.; एम्. एस्‌सी. पीएच्. डी.; उपकुलगुरू, इंदिरा गांधी उक्तें विद्यापीठ, दिल्ली.

**प्रा. एस्. आर. गनीहार,** एम्. एस्‌सी.; जीवशास्त्र विभाग, धेंपे कॉलेज, मिरामार, पणजी-गोंय.

**श्री. विश्राम गांवकार,** एम्. एस्‌सी. (शेती), सहाय्यक शेती अधिकारी, भारतीय शेती संशोधन मंडळ, ओल्ड गोवा.

**डॉ. ओलव्हिन्यू गोमिश,** पीएच्. डी.; कोंकणी विभाग मुखेल, गोवा विश्वविद्यालय, ताळगांव - गोंय.

**डॉ. भिकाजी घाणेकार,** मेदिक सिरुरजांव, मुखेल वैजकी अधिकारी, मलेरिया कार्यावळ, भलायकी संचालनालय, पणजी.

**डॉ. व्ही. एस्. चित्रे,** माजी प्राध्यापक आनी जीवरसायनशास्त्र विभाग मुखेल, गोंय वैजकी महाविद्यालय, पणजी - गोंय.

**डॉ. जी. एन्. देवी,** इंग्लीश विभाग, एम्. एस्. विश्वविद्यालय, बडोदा.

**डॉ. शरदिनी डहाणूकर,** एम्. डी.; डी. सी. आय. पी. एच्.; पीएच्. डी.; एफ्. आय. आय. व्हाय. (आयुर्वेद), पालवी प्राधापिका, वखदांशास्त्र विभाग, सेठ जी. एस्. वैजकी महाविद्यालय, परेल - मुंबय.

**डॉ. अनिल डिंगे,** एम्. एस्‌सी.; पीएच. डी.; रसायनशास्त्र विभाग, फोंडा एज्युकेशन सोसायटीज कॉलेज ऑफ आर्टस् अँड सायन्स, फर्मागुडी - गोंय.

**डॉ. विजय तळावलीकार,** एम्. डी. (मुंबय), डी. जी. ओ.; डी. एफ्. पी.; (सी. पी. एस्.); एफ्. आय. सी. एस्.; एम्. आय्. सी. ओ. जी., वैजकी वेवसाय, पणजी - गोंय.

**अॅड. अमोल थळी,** बी. कॉम.; एलूएल्. बी. वकील.

**अॅड. प्रकाश थळी,** एम्. ए. (इंग्लीश); एलूएल्. बी.; वकील.

**सौ. गौरी आ. दलाल**

**श्री. सतीश दुकळे (डी. सतीश),** वेवसायीक जादुगार.

**डॉ. अशोक देसाय,** एम्. एस्सी.; पीएच्. डी.; भूशास्त्र विभाग, गोवा विश्वविद्यालय, ताळगांव - गोंय.

**श्री. विनायक ना. शेणवी धुमे,** इतिहास संशोधक.

**एन्. शिवदास,** बी. ए.; बी. एड्.; शिक्षक.

**प्रा. हरिश्चंद्र नागवेकार,** एम्. ए. (अर्थशास्त्र), उपप्राचार्य, एम्. ई. एस्. कॉलेज ऑफ आर्टस् ॲण्ड सायन्स, वास्को.

**जयंती नायक,** बी. ए., लोकवेदांतली पदविका, संशोधन सहाय्यक, गोवा कोंकणी अकादेमी, पणजी

**फा. प्रताप नायक (जे. स.),** एम्. ए.; बी. एड.; एम्. फिल. (भाशाशास्त्र), सहाय्यक संचालक, तोमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, मीरामार, पणजी - गोंय.

**श्री. माणिकराव राम नायक गावणेकार,** एम्. ए.; एम्. एड.; मुख्याध्यापक, श्रीमती हिराबाई तळावलीकर हायस्कूल, साकोर्डें-गोंय

**प्रा. वामन नायक,** एम्. कॉम.; व्याख्याता, एस्. एस्. धेंपो कॉलेज ऑफ कॉमर्स ॲण्ड इकॉनॉमिक्स, आल्तीन, पणजी.

**डॉ. भालचंद्र नेमाडे,** इंग्लीश विभाग मुखेल, गोवा विश्वविद्यालय, ताळगांव - गोंय.

**डॉ. अरुण एच्. परूळेकार,** एम्. एस्सी.; पीएच्. डी.; इ. एम्. ए. एस्.; एफ्. एन्. ए. एस्सी.; जैव समुद्रविज्ञान विभाग, राश्ट्रीय समुद्रविज्ञान संशोधन संस्था, दोनापावल - गोंय.

**श्री. प्रकाश पाडगांवकार,** कवी; प्रबंधक, एम्. एम्. टी. सी., वास्को.

**डॉ. रॉक वाईजमॅन पिंटो,** विकारविज्ञान विभाग, गोंय वैजकी महाविद्यालय, बांबोळी - गोंय.

**श्री. लक्ष्मण पित्रे,** एम्. ए. (काव्यतीर्थ), पुराणवस्तुसंशोधन खातें, पणजी.

**फा. आंतोनियो पेरैरा,** तत्त्वगिन्यान आनी धर्मशास्त्राची पदवी, पाद्री, लेखक, मुख्याध्यापक, अवर लेडी ऑफ ग्रेस हायस्कूल, दिवचल - गोंय.

**श्री. निकलांव पेरैरा,** सेंट झेवियर कॉलेज, म्हापशें - गोंय.

**डॉ. पुष्पा पै,** एम्. ए.; पीएच्. डी.; एस्. एन्. डी. टी. बायलां विद्यापीठ, मुंबय.

**श्री. चंद्रकांत द. पोरोब,** शारिरीक शिक्षण संचालक, मीरामार, पणजी - गोंय.

**श्री. एच्. आर. प्रभुदेसाय,** बी. एस्सी. (शेती), सहाय्यक शेती अधिकारी, भारतीय शेती संशोधन मंडळ, ओल्ड गोवा.

**प्रा. प्रेमानंद फडते,** एम्. एस्सी.; बी. एड.; प्राध्यापक, श्री. दामोदर ज्यु. कॉलेज ऑफ सायन्स, मडगांव - गोंय.

**प्रा. ग. गो. बखले,** सेंट झेवियर कॉलेज, म्हापशें - गोंय.

**डॉ. अशोक पी. बांदोडकर,** डी. मॅग.; वेवसायिक चुंबकचिकित्सातज्ञ, चांदर, सालसेत - गोंय.

**श्री. दिलीप बोरकार,** एम्. ए.; शिक्षक आनी लेखक.

**श्री. माधव बोरकार,** एम्. ए., कार्यावळ अधिकारी, आकाशवाणी, पणजी.

**श्री. मिंगेल ब्रागांझा,** एम्. एस्सी. (शेती), गार्डन सुपरीटेंडंट, गोवा विश्वविद्यालय, ताळगांव.

**डॉ. अनंत राम भट,** एम्. ए.; पीएच्. डी.; शिक्षक, सेंत्रु एदुकादोर सोसायटी, प्रियोळ, म्हाड्डोळ - गोंय.

**श्री. उल्हास वि. भाटेकार,** एम्. ए.; बी. एड्.; शिक्षक, सरकारी उच्च माध्यमिक विद्यालय, काणकोण - गोंय.

**श्री. माधव गोविंद भुस्कुटे,** बी. एच्. एम्. एस्.; बी. ए. (साहित्य विशारद); एम्. ए. (संस्कृत); एम्. फिल. (संस्कृत); एन्. डी.; डी. मॅग.; होरा विशारद; योग आनी आयुर्वेद पदविका, वेवसायीक वैज.

**डॉ. विनायक मर्येकार,** मेदिक, सिरुरजांव, वैजकी वेवसाय, वास्को - गोंय.

**श्री. दादू मान्द्रेकार,** लेखक.

**डॉ. एच्. के. मालवीय,** एम्. व्ही. एस्. सी.; पशुचिकित्सक, पशुसंवर्धन खातें, कुर्टी, फोंडें - गोंय.

**श्री. दामोदर मावजो,** बी. कॉम.; वेपारी; लेखक, माजोड्डें - गोंय.

**श्री. अ. ना. म्हांबरो,** एम्. ए., अभिलेखागार, टाटा सेंट्रल आर्कायव्हज, मुंबय.

**श्री. रवींद्र र. म्हाड्डोळकार,** एम्. ए.; शिक्षक, श्री. नवदुर्गा विद्यालय, मडकय.

**प्रा. कमलाकर म्हाळशी,** एम्. ए., शिक्षक, सरकारी उच्च माध्यमिक विद्यालय, काणकोण - गोंय.

**श्री. एस्. एम्. कृष्णाराव,** एम्. ए.; बी. एड्.; शिक्षक सनद, सहाय्यक शिक्षक, सरकारी उच्च माध्यमिक विद्यालय, बायणा, वास्को - गोंय.

**प्रा. तेनसिंग रुद्रीगिश,** एम्. ए. (अर्थशास्त्र), व्याख्याता; सरकारी कला, विज्ञान आनी वाणिज्य महाविद्यालय, सांखळी.

**श्री. राजा रेड्डी,** कुचिपुडी डान्स स्कूल, दिल्ली.

**श्री. लु. आ. रोद्रीगीस,** लायसीयम, सेमीनारी कोर्स, सेवानिवृत्त प्राध्यापक, धेंपे कॉलेज, मिरामार, पणजी.

**डॉ. एल्. सुनीताबाय,** एम्. ए.; पीएच.डी.; हिंदी विभाग, कोचीन युनीव्हर्सिटी ऑफ सायन्स टॅक्नोलॉजी, कोचीन.

**श्री. विश्वनाथ लवंदे,** वकील आनी सुटके झुजारी.

**श्री. वासुदेव एल्. वझे,** संस्कृत काव्यतीर्थ; किर्तनकार.

**डॉ. के. आर. शास्त्री,** बी.व्ही.एस्.सी.आनी एच्. पशुचिकित्सक, क्रॅडीट प्लॅनींग अधिकारी, पणजी - गोंय.

**प्रा. (सर्गेस्त) बी. एस्. शास्त्री;** एम्. ए.; पीएच्.डी. माजी मुखेल इतिहास विभाग, गोवा विश्वविद्यालय, ताळगांव - गोंय.

**डॉ. बी. शेख अली,** एम्. ए.; पीएच्.डी. (अलिगढ); पीएच्.डी. (लंडन), निवृत्त उपकुलगुरू, गोवा विश्वविद्यालय, ताळगांव - गोंय.

**डॉ. एस्. एम्. शेट्टी,** एम्.एस्सी.; पीएच्.डी.; वनस्पतीविज्ञान विभाग, धेंपे कॉलेज, मिरामार, पणजी - गोंय.

**डॉ. मलबाराव सरदेसाय,** संगीततज्ञ.

**डॉ. जी. के. सालेलकार,** एम्.बी.बी.एस्. (मुंबय), एम्.आर.सी.पी. (लंडन), एफ्.आर.सी.पी. (एडिंबरो), एफ्.आर.सी.ए. (अमेरिका), हृदयरोगतज्ञ, पणजी - गोंय.

**डॉ. आनंद हळर्णकार,** एम्.बी.बी.एस्.; वेवसायीक डॉक्टर.

**डॉ. अरुण हेबळेकार,** एम्.एस्सी.; पीएच्.डी.; प्राचार्य, पी.इ.एस्. कॉलेज ऑफ आर्टस् ॲण्ड सायन्स, फर्मागुडी - गोंय.

**चित्रां आनी रेखाटनां :**

| | | |
|---|---|---|
| **दत्ता नावेलकर** | **सद्गुरू चेंदवणकर** | **महेश वेंगुर्लेकर** |
| **दिगंबर सिंगबाळ** | **डॉमनिक कोर्दो** | **प्रकाश नाईक** |
| **वासुदेव दीवकर** | **संध्या नार्वेकर** | **नरेश नायक** |

# कोंकणी विश्वकोशांत वापरिल्ल्या संक्षेपांची वळेरी

| | |
|---|---|
| इ.स. | इसवी सन |
| इ.स.प. | इसवी सना पयलीं |
| किग्रॅ. | किलोग्रॅम |
| किमी. | किलोमीटर |
| कों.वि.सं.मं. | कोंकणी विश्वकोश संपादक मंडळ |
| चौ.किमी. | चौरस किलोमीटर |
| चौ.सेंमी. | चौरस सेंटिमीटर |
| मिमी. | मिलिमीटर |
| मी. | मीटर |
| से. | सेल्सिअस तापमान |
| सेंमी. | सेंटिमीटर |

* * *

नोंदीभितर आयिल्ल्या एकाद्र्या शब्दाची हेर कडेन सविस्तर नोंद आसत जाल्यार तो शब्द तिरपो बरोवन ताच्या कंसांत नखेत्र छापलां. देखीक : एकाद्रे नोंदीभितर जर *इस्टर (*)* असो शब्द आयला आसत जाल्यार 'इस्टर' नांवाची वेगळी नोंद आसा, अशें समजुचें.

***

ह्या खंडांत आयिल्ले नकाशे हे अधिकृत नकाशे न्हय. ते नकाशे म्हळ्यार मूळ नकाशाच्यो सदळ आकृतायो जावन आसात.

# कोंकणी विश्वकोश

## खंड पयलो

*****

**अं:** 'अ' च्या माथ्यार टिंब (॰) दितकच हें अक्षर जाता. पूण ही पध्दत चड पूर्विल्ली न्हय. गिरनारच्या फातरपट्यांत 'अ'च्या फुडें टिंब दिवन तें बरयलां. इ.स. चवथ्या शतमानांत 'अ'चे तकलेर टिंबासुवातेर ल्हान आडी काडिल्ली दिसता. 'अं' हें मंत्रशास्त्रांत पयलें बीज मानलां.

'अ'च्या माथ्यार जें टिंब दितात. ताचो उच्चार न्, म्, ङ्, व्, ण, असो जाता. कांय जाणं 'अ'च्या माथ्यार टिंब दिनासतना वयर दिल्ल्या अर्दव्यंजनाचो उपेग करतात. देखीक- 'उदेंत'चे सुवातेर 'उदेन्त', 'अंत' चे सुवातेर 'अन्त'.

\- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद: अ

**अंकगणित:** गणितशास्त्राच्या मुळाव्या शाखांभितर सगळ्यांत म्हत्वाची शाखा अंकगणित. ह्या शास्त्रांत अंक म्हळ्यार आंकड्यांच्या आनी संख्यांच्या क्रियांचो (operations) मुलतायेन विचार करतात. गणिताच्या हेर शाखांप्रमाण अंकगणितांत प्रमेय आनी तर्कशुध्द विधानां हांचेर भर दिनासतना फकत वेगवेगळ्यो पध्दती कशो वापरच्यो हाचेर भर दितात. पूर्विल्ल्या काळांतलो नामनेचो भारतीय गणिततज्ञ भास्कराचार्य हाणें अंकगणिताचो उल्लेख 'पाटी गणित' असो केला.

सुर्वेक आंकड्यांचो उपेग किर्तेय मेजपाखातीर करताले. पूण जेन्ना व्हडल्या व्हडल्या आंकड्यांची आनी संख्यांची गरज भासली, तेन्ना वेगवेगळ्यो समस्या उप्रासूंक लागल्यो. संख्या कशेतरेन दाखोवची आनी बरोवची ही तातूंतली सगळ्यांत व्हडली समस्या. विंगड-विंगड संस्कृतायांनी संख्या दाखोवपाच्यो वेगवेगळ्यो पध्दती आशिल्ल्यो आनी तांकां लागून आनीकय प्रस्न उप्रासताले.

अंकगणितांत बेरीज, वजाबाकी, गुणाकार, भागाकार ह्यो चार क्रिया उरतात. पूर्विल्ल्या भारतीय गणितांत कांय मुळाव्या तत्त्वांचो उपेग करताले. संख्या आनी तांचे विर्शीच्यो क्रिया ह्या तत्त्वांक लागून सोपेपणान करुंक मेळटाल्यो. अरबांवरवीं हीं तत्त्वां भारतांतल्यान तुर्कस्थानांत आनी थंयच्यान युरोपात गेलीं. ह्या तत्त्वांकूच 'दशमान-पध्दत' अशें म्हण्टात. हीं तत्त्वां अशीं:-१) दर एके संख्येक वेगवेगळें नांव दिवप. २) दर एक संख्या ०,१,२,-----,८,९ ह्या धा अंकांच्या आदारान बरोवप. ३) मुळाव्यो क्रिया स तरांच्यो मानप-बेरीज, वजाबाकी, गुणाकार, भागाकार, घात (involution) आनी मूळ काडप (evolution)-[देखीक- वर्गमूळ, घनमूळ आदी] ४) एकाद्रे संख्येचेर वा ताच्या भागाचेर वेगवेगळ्यो क्रिया (operations) करपाच्यो निश्चित पद्धती थारावप. ५) एकाद्री संख्या कितलीय व्हड आसली तरी ताच्याकय व्हड दुसरी संख्या आसूंक शकता आनी तेचप्रमाण एकाद्री संख्या कितलीय ल्हान आसली तरी ताच्याकय ल्हान दुसरी संख्या आसूंक शकता ही कल्पना मानप.

'शून्य' आनी 'अनंत' ह्यो दोन म्हत्वाचो कल्पना पूर्विल्ल्या भारतीय गणिततज्ञांनी गणितशास्त्रांत वापरल्यो. खंयचेय संख्येक शुन्यान गुणल्यार गुणाकार शून्य येता, हो म्हत्वाचो सोद श्रीधर, आर्यभट्ट- दुसरो, महावीर ह्या गणिततज्ञांनी आपल्या बरोवपांत मांडला. वैदिक आर्यांक एक ते परार्ध मेरेनच्या संख्यांचें मेजप खबर आशिल्लें. एक (१), दश (१०), शत (१००), सहस्त्र (१०००), नियुत (१ कोटी), अर्बुद (१० कोटी), खर्व (एक हजार कोटी), निखर्व (धा हजार कोटी) आनी परार्ध (लक्ष लक्ष कोटी).

भारतीय अंकगणितांतल्या दशमान-पद्धतीक लागून संख्या बरोवप आनी वाचप खूब सोपें जालें. तेचप्रमाण तांचेविशींच्यो बेरीज, वजाबाकी, गुणाकार, भागाकार ह्यो क्रिया सोपेपणान करप शक्य जालें. ह्याच खातीर युरोपांत रोमन संख्यांबदला भारतीय दशमान पद्धतीचो प्रसार जालो. हे पद्धतीक भारतीय/अरबी पद्धत अशेंय म्हण्टात.

पूर्विल्ल्या भारतांत पूर्ण अंकूच न्हय, तर अपूर्णांक (fractions) लेगीत गणितांत वापरताले. तशेंच तांच्यो बेरीज, वजाबाकी ह्या आनी हेर क्रियांचे नेमय पूर्विल्ल्या भारतीय गणिततज्ञांक खबर आशिल्ले. ल. सा. वि. (लघुत्तम साधारण विभाजक), म. सा. वि. (महत्तम साधारण विभाजक), वर्गमूळ, घनमूळ काडपाचीं सूत्रां आनी कोष्टकां भारतीय गणिततज्ञांनी दिल्यांत. लांबाय, क्षेत्रफळ, घनफळ काडपाच्यो पद्धती, तेचप्रमाण सादें आनी चक्रवाढ व्याज (Simple and Compound Interest) काडपाची पद्धतय तांकां खबर आशिल्ली.

इसवी सना उपरांत सुमार पांचव्या शतमानांत आर्यभट्ट, ब्रह्मगुप्त, पद्मनाथ, श्रीधर आनी भास्कराचार्य ह्या गणिततज्ञांनी आनी खगोल शास्त्रज्ञांनी भारतांत गणितशास्त्राविशींचें खोलायेन संशोधन केलें. आर्यभट्टान वर्गमूळ, घनमूळ काडपाचे पध्दतीचो आनी वर्गसमीकरणाचें (Quadratic Equations) उत्तर काडपाच्या पद्धतीचो उल्लेख केला. ताणें इ.स. सुमार ६२८ ह्या काळांत, 'ब्राह्म– स्फुट – सिद्धांत' ह्या आपल्या ग्रंथांत बेरीज, वजाबाकी, गुणाकार, भागाकार, वर्ग, वर्गमूळ, घन, घनमूळ, अपूर्णांक, त्रैराशिक, पंचराशिक, सप्तराशिक, नवराशिक, एकादशराशिक, भाण्ड–प्रतिभाण्ड (अदलाबदल आनी विनियम) ह्यो वेगवेगळ्यो प्रक्रिया सांगल्यात. भास्कराचार्य ह्या गणिततज्ञान, इ.स. सुमार ११५० ह्या काळांत 'गणितपाश यावच्छक्य' ह्या आपल्या ग्रंथांत 'भेदसंख्या' (Permutations and Combinations) काडपाच्या पद्धतींची माहिती दिल्या.

इसवी सनाच्या शंबर वर्सांपयलींच्या 'ललित विस्तार' ह्या बौद्ध ग्रंथांत शतगुणोत्तर (multiples of hundreds) $१०^{५३}$ मेरेनच्या संख्यांचें मेजप कशें करप हाचो उल्लेख मेळटा. तुर्कस्थानांत इ.स. ८२५ ह्या काळांत महंमद इब्न अल-खोवारिझ्मी (Mohammed ibn Al - Khowarizmi) हो एक नामनेचो गणिततज्ञ जावन गेलो. ताणें आपल्या 'हिसाब अल–जब्र वाल मुकाबला' ह्या ग्रंथांत गुणाकार करपाच्यो वेगवेगळ्यो पद्धती दिल्यात. अल–जब्र ह्या शद्वाचो अपभ्रंश जावन युरोपी भाशांनी अल्जेब्रा (Algebra = बीजगणित) हो शब्द तयार जालो. हेभायर इंग्लीश भाशेंत क्रिया करपाच्या तत्त्वांक (Rule for Computation) 'Algorithm' अशें म्हण्टात. हो शद्व Al-Khowarizmi ह्या शद्वाचें रुपांतर जावन आसा.

हालींच्या काळांत +, –, × आनी ÷ हीं जीं चिन्हां अनुक्रमान बेरीज, वजाबाकी, गुणाकार आनी भागाकार हांचेखातीर वापरतात, तीं आदल्या काळांत भारतीय गणिततज्ञ वापरीनाशिल्ले. इसवी सनाच्या पयल्या

शेंकड्यांतल्या एका संस्कृत पुस्तकांत युति म्हळ्यार बेरीज ही कल्पना परगटावपाखातीर 'यु' ह्या एकोड्या अक्षराचोच अधिक (+) ह्या चिन्हाखातीर वापर केल्लो दिसून येता. आयज बेरीज ही कल्पना परगटावपाखातीर जें (+) चिन्ह वापरतात, तें पयलीं वजाबाकीची क्रिया दाखोवपाखातीर वापरताले. 'फ' हें अक्षर 'फल' (उत्तर, =), ही कल्पना परगटावपाखातीर वापरिल्लें दिसून येता. ह्या कल्पनांच्या संबंदान भारतांतल्या वेगवेगळ्या गणिततज्ञांनी वेगवेगळ्या चिन्हांचो उपेग केल्लो दिसून येता. आयच्या काळांत मात भारतांतच न्हय तर संवसारांत सगळेकडेन ह्यो कल्पना एकेच तरेच्या चिन्हांचो वापर करुन परगटावपाची एकसारकी पद्धत वापरांत आसा.

खंयचीय संख्या बरोवपाखातीर एक (१) ते णव (९) आनी शून्य (०) ह्या आंकड्यांचो वापर कसो करप, दशमान पद्धत म्हळ्यार कितें आनी ती कशी वापरप, एक अंकी संख्येपसून अठरा अंकी संख्येमेरेन (म्हळ्यार परार्धामेरेन) वेगवेगळ्यो संख्या कशो मेजप आनी बरोवप अशा काय मुखेल आनी मुळाव्या गजालींचो सोद पूर्विल्ल्या भारतांतल्या गणिततज्ञांनी बाराव्या शतमानामेरेन लायिल्लो. बाराव्या शतमानापसून एकुणिसाव्या शतमानामेरेन भारतांतल्या गणिततज्ञांनी गणितशास्त्रांत कसलीच नवी भर घालूंक ना. पूण विसाव्या शतमानांत मात श्रीनिवास रामानुजन् ह्या नामनेच्या भारतीय गणिततज्ञान गणितशास्त्रांत खासा करून संख्या सिद्धांत (Number Theory) ह्या विशयांत जायते म्हत्वाचे सोद लायले.

संगणकांत (Computers) दशमान पद्धत वापरनात. दर एक संख्या बरोवपाखातीर शून्य (०) आनी एक (१) हे दोनूच अंक वापरतात. हाकाच 'द्विपद पद्धत' (Binary Code) अशें म्हण्टात. हाका लागून कुरवांची संख्या जरी वाडली तरी दोनूच कुरवो आशिल्ल्या कारणान संगणकाची रचणूक करप सोपें जाता.

प्रा. श्रीकृष्ण उपेन्द्रराव कामत

पूरक नोंद : गणितशास्त्र

संदर्भ: 1. Groza, Vivian Shaw; A Survey of Mathematics; Holt-Rinehart and Winston, 1968. 2. Hogbin, Lancelot; Mathematics for the Million; Cardinal Edition, August 1965. 3. Courant, Richard and Robbins, Herbert; Oxford University Press, 1960.

**अंटार्क्टिका:** दक्षिण ध्रुवाभोंवतणी अयस.पयस पातळिल्लो बर्फाळ वाठार. क्षेत्रफळ : १४० लाख किमी. आसा. भारत देशापसूनचें अंतर = ११००० किमी. अंटार्क्टिका हें उतर, ग्रीक उतर Anti-Arktikos ह्यावेल्यान घडलां. ताचो अर्थ आर्क्टिकच्या दुसरेखटेन असो जाता. अंटार्क्टिकाच्या चारूयवटेन उदक आसा. अस्तंतेक अटलांटीक महासागर, उत्तरेक हिंदी महासागर तर दक्षिण आनी उदेंतेक पॅसिफीक महासागर आसा.

अंटार्क्टिक खंड दर्यादिगेच्या थरासावन अडेज हजार मी. वयर आसा. संवसारांतल्या सातूय खंडांत अंटार्क्टिक खंड ऊंच आनी आवांठाचे नदरेन भारताच्या चारपट व्हड आसा. खंडाभितर ताचो क्रमांक पांचवो लागता. उदेंतेसावन अस्तंतेमेरेन पातळिल्ल्या ट्रान्सअंटार्क्टिक पर्वत वळीन (Trans- Antarctic-Mountain chain) ह्या खंडाचे दोन कुडके केल्यात. व्हडल्या कुडक्याक उदेंत अंटार्क्टिक तर ल्हान कुडक्याक अस्तंत अंटार्क्टिक अशें म्हण्टात. उदेंत अंटार्क्टिकाचो आंवाठ १०६ लाख चौरस किमी. इतलो आसा. हो सगळो वाठार बर्फाळ आसून तातूंत 'अंटार्क्टिक ऑऍसिस' हीं वाळवंटां आसात. तीं गिमांत बर्फ वितळटना उक्तीं जातात. हांगा आशिल्ल्या एलिसवर्थ पर्वतांत व्हिनसन मेसीफ हें ५१४० मी. उंचायेचें शिखर आसा. मांउंट इरेबस (Mount Erebus) हो जिवो ज्वालामुखी ह्या वाठारांत आसा. अस्तंत अंटार्क्टिकांत मेरी बायर्ड लॅण्ड (Marie Byrd Land), एलिसवर्थ लॅंड, (Ellisworth Land) आनी अंटार्क्टिक द्वीपकल्प (Antarctic Peninsula) अशे भाग आस्पावतात. तांची दर्यादिगेवेली उंचाय १२०० ते १८०० मी. आसा. बर्फाची दाटाय ४२७० मी. इतली आसा. हांगा माउंट मेलबोर्न (Mount Melbourne) हो जिवो ज्वालामुखी आसा.

अंटार्क्टिका खंडांत बर्फाची चडांतचड दाटाय ५.५ किमी. आसून सरासरी दाटाय ३.५ किमी. आसा. अंटार्क्टिकाचो ९८% वाठार बर्फाचो आसून २% वाठार गिमाच्या दिसांनी उक्तो जाता. ताका 'अंटार्क्टिक ओऍसिस' अशें म्हण्टात. ह्या ओऍसिसांत फकत फातर आनी रेंव आसता. तातूंत खंयचेच झाड वाडना. अंटार्क्टिकाचो आकार बदलत रावता. एप्रिल ते सप्टेंबर मेरेन हांगा रात आसतना अंटार्क्टिकाच्या उदकाचे बर्फ ७०० ते ८०० किमी. भागार पातळटा. हाका लागून अंटार्क्टिकाचो आकार व्हड जाता. ऑक्टोबर ते मार्च म्हयन्यांत ह्या वाठारांत दीस आशिल्ल्यान ह्या बर्फाचें उदक जाता. हाका लागून अंटार्क्टिका स म्हयने ल्हान आनी स म्हयने व्हड जाता. ताका लागून अंटार्क्टिकाक अस्थिर खंड (Pulsating Continent) म्हण्टात.

अंटार्क्टिका वा दक्षिण म्हासागराचें (Southern Ocean) उदक, बर्फ जावपाची क्रिया फेब्रुवारी म्हयन्यांत सुरू जाता. दर्यावेल्या बर्फाची (Pack-Ice) चडांतचड दाटाय ऑगस्ट म्हयन्यांत दिसता. शिंयाळ्यांत दर्याचो ५०% वाठार बर्फाळ जाता. डिसेंबरांत दर्यावेल्या बर्फाचें उदक जावंक लागता. जानेवारींत दर्यावेलें बर्फ ना जाता. डिसेंबर आनी जानेवारींत जेन्ना दक्षिण म्हासागरांत बर्फाचें उदक जावंक लागता तेन्ना अंटार्क्टिक म्हासागराच्या बर्फाराशीथरांतल्यान (Ice Shelf) जायते हिमनग तुटून दर्याच्या उदकांत उक्ते जातात. हे हिमनग वाऱ्याचे दिकेप्रमाण उदेंत, अस्तंत आनी उत्तरेखटेन व्हांवतात. ताका लागून हिमनग हिंद म्हासागर, पॅसिफीक म्हासागर ना जाल्यार अटलांटीक म्हासागरांत येवन पावतात. हिमनग अंटार्क्टिकापसून पयस वचपाक लागले तशें बर्फाचें उदक जाता. हिमनग जितले दर्यावयर दिसतात ताच्यापरस आठ ते णव पटीन भितर आसतात. हिमनग म्हळ्यार उदकाचो व्हडलो सांठो. अंटार्क्टिकाच्या चारूय वटांनी दर्या आसून ताची दर्यादिग २९,००० किमी. आसा. वेडेल दर्या (Weddell Sea) रॉस दर्या (Ross Sea) आनी बेलिंग शाउसेन दर्या (Belling Shaussen Sea) ह्या ल्हान तीन उपसागरांचो तातूंत आस्पाव जाता.

संवसारांतली सगळ्यांत थंड सुवात म्हूण अंटार्क्टिकाची नामना आसली, तरी सगळेकडेन तशी परिस्थिती ना. वातावरणांतले चलनविचलन आनी एका मोसमांतल्यान दुसऱ्या मोसमांत जावपी बदल हाका लागून जाग्याजाग्यार तापमानांत फरक पडटा. ह्या खंडार दर वर्साच्या तापमानांत ८ अंश सेल्सियस इतलो फरक आसता. दर्यावेल्यान येवपी गरम वारें अंटार्क्टिकाच्या कितलें भितर वचूंक शकता, ताचेर हांगाचो शिंयाळो कितलो काळ मेरेन उरतलो हें आदारून आसता. अंटार्क्टिकाच्या भितल्ल्या भागांत म्हयन्याचें सरासरी तापमान गिमांत –३०° ते –३४° से. तर शिंयाळ्यांत –७०° ते –४०° से. इतलें आसता. शिंयाळ्याचें कडक थंड वारें गिमांतल्या सुर्यउजवाडांत विरगळटा. ७५% ते ८५% सुर्याची गरमसाण अंटार्क्टिकाच्या जमनीक येवन मेळटा. जमनीचेर बर्फ पातळिल्लें आशिल्ल्यान तातूंतली ७५% ते ८५% गरमसाण परावर्तन जावन वातावरणांत वता.

अंटार्क्टिका हें संवसाराच्या उश्णतायेचें भांडार. हांगाची उश्णताय जेन्ना थंड वाऱ्याक कुशीक सारता तेन्ना तातूंतल्यान भिरांकूळ वाऱ्याचो उगम जाता. हें वारें वराक ४० ते ४५ किमी. नेटान व्हांवता. जेन्ना ह्या वाऱ्याचो नेट वाडटा तेन्ना तातूंतल्यान बर्फाच्या वादळाची निर्मणी जाता. ताका ब्लिझर्ड (Blizzard) म्हण्टात. बर्फाच्या वादळाचो नेट त्यावेळार २५० किमी. मेरेन वाडटा. अंटार्क्टिकांतलें वारें भितरल्या भागांतल्यान दर्याकडेन व्हांवता तेन्ना त्या वाऱ्याक केटाबेटीक वारें (Katabatic Circulation) अशें म्हण्टात. ह्या वाऱ्याचो प्रकार संवसारांत खंयच दिश्टी पडना. अंटार्क्टिकांतल्या वर्साक पडपी पावसाची सरासरी १० ते १६ सेंमी. इतली आसा. तितल्याय उदकाचें उपरांत बर्फांत रूपांतर जाता.

अंटार्क्टिका खंडार व्हडलीशीं झाडांफुलां तशेंच मोनजात मेळना. दक्षिण वा अंटार्क्टिक म्हासागराचें उदक जें ह्या खंडाच्या चारूय कुशींनी


फॉकलंड जुंवी
अर्जेंटिना
केप हॉर्न
ड्रेक पॅसेज
अटलांटिक
मार्गरेट उपसागर
अंटार्क्टिक द्वीपकल्प
दक्षिण ध्रुववृत्त
आमुनसेन दर्या
मौंट सायपल
मौंट सिडले ४१८१ मी.
मारी बर्ड लँड
फिल्शनर हिमनग
कोट्स लँड
क्वीन मॉड लँड
दक्षिण ध्रुव
रॉस हिमनग
मौंट कर्कपॅट्रिक ४४५० मी.
मौंट मार्कस ४३५० मी.
रॉस दर्या
पॅसिफिक महासागर
व्हिक्टोरिया लँड
अमेरिकन हायलँड
एमरी लँड
एडर्बी लँड
लॅम्बर्ट
एडवर्ड उपसागर
प्रिड्झ उपसागर
विल्क्स लँड
पोसेशन उपसागर
हिंदी महासागर

आसता, ताका संवसारांतलें जैविक संपत्तीचें व्हडलें भांडार अशें म्हण्टात. चाळीस दक्षिण अक्षांशासावन सत्तर दक्षिण अक्षांशामेरेन अंटार्क्टिक म्हासागर आसा. शिंयाळ्याच्या दिसांनी दर्यावेलें बर्फ, ऑक्टोबर म्हयन्यांत, स म्हयन्यांचो दीस सुरू जाता तेन्ना वितळूंक सुरू जाता. ह्या वेळार दर्याच्या उदकांत जीव उत्पादनाचे प्रक्रियेची सुरवात जाता. अंटार्क्टिका दर्यांतली अन्नाची सांखळी (Food Chain) ही चड व्हडली नासता.

गिमाच्या दिसांनी, अंटार्क्टिका खंडार ओॲसिसांत, मळांत तशेंच गोड्या उदकाच्या तळ्यांत, सूक्ष्मजीवी वनस्पत आनी प्राणी मेळटात. लायकेन (Lichen), मॉसीस (Mosses), सिलिएटस् (Ciliates), नेमॅटोडस् (Nematodes) ह्यो अंटार्क्टिका खंडावेल्यो मुखेल वनस्पती तर टिक आनी माइट् (Ticks and Mites) मुखेल प्राणी आसात. Deschampsia Antarctica आनी Colobanthus Crossifolius हीं दोन प्रकारची झाडांय अंटार्क्टिका खंडार दिसतात.

मांसभक्षकांचो (Carnivores) ह्या खंडार उणाव आसा. अंटार्क्टिका दर्यांतलें मुळावें उत्पादन (Primary Production) जें गिमाच्यां दिसांनी आसता, तातूंतल्यान वनस्पती प्लवंगाची (Phytoplankton) उपज जाता. हें प्राणीप्लवंगाचें (Zooplankton) अन्न आसता. अंटार्क्टिक क्रिल (Antarctic Krill) म्हळ्यार सुंगट हो प्लवंगांतलो मुखेल प्राणी. ह्या क्रिलाची वर्सांतली वाड ९०० ते ११०० दशलक्ष टन इतली आसता. माणक्यो (Squids), नुस्तें, समुद्रपक्षी आनी दर्यांतले सस्तनप्राणी हे दर्यांतल्या क्रिलाचे भक्षक जावन आसात.

अंटार्क्टिक कॉड, अंटार्क्टिक ड्रॅगनफिश, आइसफिश, प्लंडरफिश, आनी मॅक्रोयुरिड ह्यो अंटार्क्टिका दर्यांतल्यो नुस्त्याच्यो जाती हांगा मेळटात. माणक्यो लेगीत खूब तरेच्यो मेळटात. दर वर्सा देड लाख टन क्रिल, सत्तर हजार टन नुस्तें, पंदरा हजार टन माणक्यो अंटार्क्टिका दर्यांतल्यान पागयतात. ह्या पागपाच्या कामांत रशिया, पोलंड, जपान, आनी नॉर्वे हांचो फुडाकार आसता.

आठ जातीचे सील (Seals) आनी बारा जातीचे देवमाशे (Whales) अंटार्क्टिक दर्यांत रावतात. क्रबईटर (Crubeater) आनी लेपर्ड (Leopard Seal) ह्यो सिलाच्यो तर ब्लू, किलर, स्पर्म, मीनके साई आनी हम्पबॅक ह्यो देवमाशाचो मुखेल जाती आसात.

समुद्रपक्ष्यांच्यो बेचाळीस जाती अंटार्क्टिक दर्यार दिसतात. तातूंतलो पेंग्वीन अंटार्क्टिकाचें आगळें खाशेलेंपण जावन आसा. तांच्यो णव जाती आसात. ऍम्परर पेंग्वीन सुमार देड मी. ऊंच आसता. तो फकत 'क्रील' हें खाण खावन रावता. हो पक्षी उडूंक शकना, तेखातीर दर्यालागसल्या बर्फार रावता. तांतयां घालपाक तो अंटार्क्टिका खंडाच्या भितरल्या भागांत येता. पेट्रेल, अल्बॅट्रोस, स्कुआ आनी शिवबील हे अंटार्क्टिकांतले खास पक्षी.

जायंट केल्प (Giant Kelp) ही संवसारांतली सगळ्यांत व्हड वनस्पत अंटार्क्टिकाच्या दर्यांत मेळटा. दर्याच्या तळार वाडपी केल्प १३० मी. इतली ऊंच वाडटा. अंटार्क्टिक दर्याच्या तळांत तरेकवार प्राणीविश्व आसता. व्हडले स्पंज (Sponge), पॉलिकिट (Polychaete) किडे, ॲम्फीपोड (Amphipode), कोपीपोड (Copepode) अशे जीवजंतू जाय तितले मेळटात. तशेंच दर्याच्या उदकांत जो बर्फ जाता त्या बर्फांत सूक्ष्मवनस्पत चड प्रमाणांत वाडटा, ताका इपान्टिक अल्गी म्हण्टात.

देडशें वर्सांपयलीं अंटार्क्टिका खंडाची कोणाकच खबर नासली. बावीस कोटी वर्सांआदीं आज ज्या जाग्यार अंटार्क्टिक खंड वसला थंय एक व्हड खंड (Super Continent) आसलो. ताका गोंडवनलॅण्ड अशें म्हण्टाले. आयचें भारत, दक्षिण आफ्रिका, ऑस्ट्रेलिया, न्यूझीलंड, दक्षिण अमेरिका आनी अंटार्क्टिका गोंडवनलँडांत आस्पावताले. जेन्ना हिमपर्व (Glaciation) आयलें तेन्ना गोंडवनलँडाचे कुडकें जाले. हे कुडके पडपाक आंतरखंडीय हालचाल (Continental Drift) हें शास्त्रीय कारण जावन आसा. हांका पुरावो म्हळ्यार भारत देशांत दक्षिणेकडेन आशिल्ल्या पर्वतवळींतल्यान (Eastern Ghats) फातर आनी खनिजां तशेंच दक्षिण **अमेरिकेंतल्या** अँडीज पर्वतांतले फातर आनी खनिजां सारकींच आसतात. भारत देश गोंडवनांतल्यान सुटून उत्तरेकडेन घुंवलो आनी आयज आशिल्ल्या सुवातीर आयलो. आयज अंटार्क्टिका खंड भारताचे दक्षिणेक ११,००० किमी. अंतरार आसा. ह्या दोगांयच्यामदीं हिंद म्हासागर आनी अंटार्क्टिक वा दक्षिण म्हासागर आसा. ह्या दोन म्हासागरांत मॉरिशस, रॅाड्रिगस्, केरूगिलेम, बुवेट आनी प्रिन्स एडवर्ड हे जुंवे आसात. गोंडवनलँडांतल्यान भारत तुटलो तेन्ना जे कुडके जाल्ले ते हे जुंवे जावन आसात. आर्जेंटिना देशांतलो तियेर्रा देल फुएगो (Tierra del Fuego) हो जुंवो अंटार्क्टिकाक सगळ्यांत लागीं आशिल्लो वाठार आसून थंयसावन हें अंतर ९७० किमी. इतलें आसा.

एकुणिसाव्या शतमानांत ब्रिटीश, रशियन, फ्रेंच, ऑस्ट्रेलियन, नॉर्वेजियन आनी अमेरिकन लोकांक अंटार्क्टिका दर्याविशीं जायती म्हायती आसली. जायत्या धाडशी लोकांनी दक्षिण ध्रुवाचेर वचपाचो यत्न केलो पूण ते फळादीक जावंक नात. नॉर्वे देशाचो रोनाल्ड आमुंडसेन सगळ्यांत पयलीं दक्षिण ध्रुवार पावपांत जैतीवंत जालो. (११ डिसेंबर १९११). १८ जानेवारी १९१२ त रॉबर्ट स्कॉट दक्षिण ध्रुवार पावलो. परत येतना तो आनी ताच्या वांगड्यांक मर्ण आयलें. १९२० ते १९३७ ह्या काळांत रशियन, फ्रेंच, ब्रिटीश, अमेरिकन आनी कितल्याश्याच हेर देशांतले संशोधक अंटार्क्टिका खंडार पावले. १९५९ वर्सा अंटार्क्टिक मोहिमांत वांटो घेवपी १२ देशांनी १९५९ त अंटार्क्टिक कबलात (Antarctic treaty) करून आपल्यो सयो केल्यो. तातूंत अंटार्क्टिकाचो वाठार शांततायेखातीर वापरचो, कोणेच ताचेर हक्क सांगूंक फावना अशो म्हत्वाच्यो अटी आसात.

अंटार्क्टिका कबलातीप्रमाण, संवसारांतल्या खंयच्याय देशांतले लोक संशोधन करपाक अंटार्क्टिकार वचपाक शकतात. अंटार्क्टिकाचेर कोणाचीच सार्वभौम सत्ता ना. अंटार्क्टिकाचेर कसल्याय गुप्त संशोधनाक बंदी आसा. आजमेरेन २७ देश अंटार्क्टिका कबलातीचे वांगडी आसात. वांगडी देशांनी संशोधन करून संपत्ती मेळोवपाचे मार्ग काडल्यार, त्या देशांक नुस्तेमारी वा खनिजां काडपाचो हक्क पावता. अंटार्क्टिका कबलात १९९१ वर्सा फेरविचाराक येतलो.

अंटार्क्टिका कबलातीची जी सल्लागार समिती (Consultative Committee) आसा तिचो भारत एक वांगडी आसा. १९८१ वर्सा भारतान शास्त्रीय संशोधन मोहीम अंटार्क्टिकाक धाडून ही मान्यताय मेळयली. सन १९८३ वर्सा भारतान अंटार्क्टिकार 'दक्षिण गंगोत्री' नांवाचें कायम स्वरूपाचें संशोधन केंद्र तयार केलां. दक्षिण गंगोत्री संशोधन केंद्रांत भारताचे वैज्ञानिक थंय रावन वातावरण-शास्त्र (Metereology), भूचुंबकत्व (Geomagnetism) आनी जीवविज्ञान (Biology) ह्या विशयांचें संशोधन करतात. भारताच्या दुसऱ्या संशोधन केंद्राक 'मैत्री' म्हण्टात. अंटार्क्टिक खंडार भारतावरी १२ देशांची ३० संशोधन केंद्रां आसात. ह्या केंद्रांतल्यान शिंयाळ्याच्या दिसांनी साडेतीनशीं तर गिमाच्या दिसांनी अडेज हजार संशोधक विंगडविंगड संशोधनां करतात. वैज्ञानिक सोडल्यार अंटार्क्टिकार मनीस वस्ती ना.

सद्या अंटार्क्टिकार कसलेंच उत्पादन जायना. शास्त्रीय संशोधनां-प्रमाण खनिजां, ऊर्जा, नुस्तेमारी, हांचो बऱ्याच व्हड प्रमाणांत हांगा वावर जावंक शकता. तेखातीर अंटार्क्टिकाक '२१ व्या शतमानांतलो खंड' अशें म्हण्टात.

— डॉ. अरूण परुळेकर

**अंत्यक्रिया:** मनीस मेल्याउपरांत ताचे कुडीची विल्हेवाट लावप हाका 'अंत्यक्रिया' अशें म्हण्टात. हाका 'अंत्यविधी', 'अंत्यसंस्कार' वा 'निमणे संस्कार' अशेंय म्हण्टात. अंत्यक्रियेचें आकलन जावपाखातीर ताच्या मुळाक आशिल्लीं मानसीक आनी समाजीक कारणां मतींत घेवंक जाय. मेल्ल्या मनशाविशीं आशिल्ल्यो भावनात्मक प्रतिक्रिया खंय तरी प्रगट जावंच्यो, तशेंच सभावीक आशिल्ले सांस्कृतिक परंपरेचें पालन

जावंचे हेखातीर मनशाचेर जो सगळयांत निमाणो आनी म्हत्वाचो विधी जाता ताकाच अंत्यक्रिया अशें म्हण्टात, अशी संस्कृतायेची कार्यात्मक उपपत्ती (फंक्शनॅलिझम) कांय मानवशास्त्रज्ञ दितात.

विरह, शोक, हळहळ, भंय ह्या भावनांचे आविश्कार म्हळ्यार विधी आनी संस्कार. पूण ही उपपत्ती अर्दकुटी दिसता. हे विधी फकत सभावीक भावनांचे आविश्कार नासून, समाजान निर्मिल्ल्या खाशेल्या समाजीक संस्थांकडेन संबंदीत आसात. हो विधी म्हळ्यार मेल्ल्या मनशाचो तुटिल्लो संबंद जोडपाचो विधी. मेल्ल्या मनशाविशीं भंय वा ताचेवांगडा संबंद पक्को जावंचो अशी भावना आसता. मनशाच्यो कल्पनानिर्मित गरजो मतींत घेवन श्राध्द, जितेपणी संबंदीत आशिल्ल्यो वस्तू, ताच्या आत्म्याक शांती मेळची आनी अंत्यक्रिया करपी व्यक्तीच्या फाटल्यान कसलीच अवकृपा जावंची न्हय हे खातीर पापनिवारणाचीं प्रायश्चित्तां अशीं विंगड विंगड कृत्यां हे विधींत करतात. तशेंच मेल्लो मनीस भूत जावन वावुरचो न्हय, ताचो फुडलो मार्ग आनी रावप निर्वेध जावचें, कसलेच वासनेन ताचो आत्मो घुटमळचो न्हय आनी जित्या लोकांक ताणें पिडचें न्हय हो सगळो हेत धरून अंत्यक्रिया करतात.

कुडींतल्यान जीव गेल्याउपरांत, पंचप्राण भायर वचून ना जातात, रुधिराभिसरण बंद जाता. कूड थंड जाता आनी कांय वरां उपरांत रगत आनी मांस कुसता आनी दुर्गंध येता. तो येवंचो न्हय आनी ताची वेवस्था योग्य तरेन जावंची होच अंत्यक्रियेचो मुखेल हेत आसता.

मेल्ल्या मनशाचेर केल्ले अंत्यसंस्कार खूब म्हत्वाचे आसतात.

जातसंस्कारेणेमं लोकमभिजयति, मृतसंस्कारेणामुं लोकम्।।

(बौधायन पितृमेधसूत्र प्र. ३, खंड१)

जात संस्कारान ह्या लोकांत उदरगत जाता. मेल्ल्याचेर संस्कार केल्या उपरांत परलोकांत मुक्ती मेळटा, अशें जाहम्मग्रंथांत म्हळां.

**इतिहासीक उदरगतः** वेदकाळांत म्हळ्यार चार हजार वर्सां पयलीं, मेल्ल्या मनशांक लासतना यम, इंद्र, वरुण, अश्विनीकुमार, रुद्र ह्या देवांक प्रसन्न करुन घेवपाक आनी मृताचो आत्मो शांत जावन ताका सद्‌गती मेळची हेखातीर त्या देवतांची स्तुती करताले. तशेंच सगळयांक संतती, गिन्यान, कीर्त मेळून दुस्मानांचो नाश जावंचो अशी प्रार्थना करताले. परं मृत्यो अनुपरेहि पन्थां---- प्रजांरिषोमोतवीरान्।। (ऋग्वेद १०:१८:१). ही प्रार्थना सगळे सोयरे एकठांय जमून म्हण्टाले. मेल्ल्या मनशाचो शोक करचो न्हय अशेंय वेदांत म्हळां.

इये जीवन विभृतेरावे----अत्त्युः प्रतरं दधानाः।।

(ऋग्वेद ७:६:२६।।)

अर्थ- 'ह्या मेल्ल्या जीवाविशीं शोक केल्यार, ताचो आत्मो हांगाच घुटमळटा, देखून सद्‌गती मेळना.'

मागीरच्या काळांत मात त्या संस्कारांत नव्या नव्या कल्पनांची आनी कृत्यांची भर पडली. मेल्ल्या मनशाचेर सोयऱ्यांचो मोग आसताच. ताका लासल्याउपरांत ते कुडीचो गोबोर तसोच त्या जाग्यार उरचो न्हय म्हूण तो गोबोर पवित्र सुवातीर उडोवपाची चाल आसली. ह्याच काळांत मेल्लो मनीस इहलोक सोडून पितृलोकांत वता आनी आत्मो आनी स्थूल देह हातूंत सारकेपण आसूं येता ही कल्पना जाली. जीवाक जशे अवयव तशेच आत्म्याकूय अवयव आसूं येता असो समज जालो. आत्मो हो पयलीं मनीसलोकांतल्यान मागीर प्रेत लोकांत, उपरांत पितृलोकांत वता अशी कल्पना जाली. देखून, मेल्ल्या मनशाकूय प्रवासांत अन्न, वस्त्र, प्रवासांत लागपी सामान, वाहन आदी दान दिताले आनी हेंच दान पितरांक मेळटा आनी तो आत्मो थंय सुख भोगता, अशी धारणा जाली.

अंधश्रध्दा आनी पितरांविशींचो आदर, प्रेमभावना वाडीक लागून दान प्रकरण वाडलें. धर्माचे नदरेन चड पुण्य आनी लौकीक नदरेन व्हडपणाचें भूशण असोच दानाचो महिमा जालो. फुडें फुडें, ज्योतिशांनी वायट नखेत्रां, गिरे हांचेविशीं विचार करून मरच्या वेळार वायट नखेत्र वा गिरे आसत जाल्यार 'शांती' करपाक जाय अशें शास्त्र थारायलें. फुडें ह्या शास्त्रांत भर पडून सपिंडीकरण, शांतीकर्म, एकोद्दिष्टश्राध्द, आंधश्राध्द, शूलगवश्राध्द हे वेगवेगळे विधी येवन ह्या विधींची उदरगत जाली. इ.स.प. १००० वर्सांमेरेन सूतक धरपाची रूढ नासली तरी फुडें स्मृती, पुराणां हातूंत धर्माविशीं आनी शास्त्राविशीं वेगवेगळे विचार जावन नव्योनव्यो रूढी तयार जाल्यो आनी मूळ हेत कुशीक उरून तातूंतलो तंत्रभाग वाडलो. त्याचवांगडा लोकसमाजांतलीं धर्मकृत्यां त्रासाचीं आनी खर्चाचीं जालीं.

मनीस मेल्या उपरांत ताचो आत्मो उरता ही कल्पना सगळ्या धर्मांत दिसता, हाची फोडणीशी डॉ. फेचवीर हाणें आपल्या 'लायफ ऑफ डॅथ' ह्या पुस्तकांत केल्या. मेल्ल्या मनशाविशीं आपली पूज्यबुध्दी, आदर, मोग आसचो आनी ताणें आमचें सदांच बरें करचें असो मनशाचो भावार्थ आसता. हातूंतल्यानूच प्रायश्चित्त, दानधर्म, श्राध्द हांची उदरगत जाली.

मेल्ल्या मनशाचो विलो लावपाचे विंगड विंगड प्रकार वेगवेगळ्या संस्कृतायांनी पयलींपसून चलत आयले, ते अशेः

१. मडें स्वताच्या घरांत, आंगणांत, देवळाच्या आवारांत, शेतांत, मसुंडींत, घोलींत पुरून दवरप. कांय सुवातींनी ताच्या जितेपणांतल्यो वस्तूय ताच्या वांगडा पुरतात. २. मेल्ल्या मनशाची कूड आसा तशीच तिगोवन दवरपाची प्रथा रूढ आसली. वाळवंटांत, सुकिल्ले रेवेंत, फोंडकूल काडून भितर मड्याक दवरताले. ईजिप्त देशांत राजे लोकांच्या मड्याक अत्तर लावन ती कूड सासणाखातीर दवरतात. ताका 'ममी', अशी संज्ञा आसा. ३. मडें लासून ताचो गोबोर, अस्थी पवित्र तीर्थस्थळांत उडोवप. १० दीस सुतक पाळप, बाराव्या दिसा सगळ्या सोयऱ्यांक गोड जेवण दिवप. दर वर्सा त्या मेल्ल्याच्या नांवान मेल्ले तिथीचेर श्राध्द करप अशी प्रथा हिंदू, बौध्द आनी जैन धर्मांत दिसता. ४. मेल्लो संन्यासी, बेवारशी, गुलाम हांकां व्हांवपी उदकांत सोडून दिवप. ५. बांयत, मैदानाचेर वा रानांत रचिल्ल्या वेदीचेर मडें दवरून, तो देह हिंस्त्र पक्षी, प्राणी हांचेकडल्यान खावोवपाची प्रथा. पारशी लोक 'दख्म' नांवाचे बांयत मडें उडयतात. ६. ऑस्ट्रेलिया, दक्षिण अमेरिका, आफ्रिका ह्या देशांतल्या वन्य जमातींत मड्याक खावपाची चाल आसा अशेंय कांय शास्त्रकारांनी सोदून काडलां.

समाध्यो, वृंदावनां, थडगीं, कबरी, देवळां, मूर्ती, स्तूप, स्तंभ असल्या तरेचीं मेल्ल्या मनशाविशीं आदर दाखोवपी, ताचो समाजीक पांवडो दाखोवपी वा पूजनीय अशीं स्मारकां बांदतात. संस्कृतीक उदरगतीप्रमाण स्मारकां उबारपाचीं साधनां आनी पध्दती हातूंत बदल जायत गेले.

वेगवेगळ्या धर्मांत, जातींत, पंथांत अंत्यक्रियेच्यो वेगवेगळ्यो चाली दिसतात. **हिंदूः** मड्याक लासतात. गुरवार बायलेक, दांत येवंक नाशिल्ल्या भुरग्याक, ब्रह्मचारी आनी संन्याशी हांकां पुरतात. **पारशीः** मडें उदारें दवरुन तें गिदांकडल्यान प्रार्थनापूर्वक खावंक लायतात. हाचो मूळ हेत असो की, उजो हो पवित्र आशिल्ल्याकारणान अपवित्र गजाली उज्याक ओंपच्यो न्हय ही उदात्त कल्पना. अंत्यक्रियेउपरांत घराकडेन येवन गोमूत्रांत गृहशुध्दी करतात. मनीस मेल्ले सुवातेर चंदनाची धुपणी दितात. मडें व्हरपी मनशाक गोमूत्र आनी शुध्दोदक दिवन ताका पवित्र करतात. **चिनीः** मड्याक न्हाणयतात. देवाची (धान्यपतीची) प्रार्थना करतात. मड्याक पोशाख घालून पेटयेंत दवरतात. स्मशानयात्रा करून मडें पुरतात. तिसऱ्या दिसा मड्याक खावपाखातीर जेवण करून तें थड्याकडेन व्हरून दवरतात. सातव्या दिसा श्राध्द करून अशीं श्राध्दां सात सप्तकांमेरेन करतात. मेल्ल्याचो आत्मो जेवण जेवता असो भावार्थ आशिल्ल्यान मेल्ल्याचो आत्मो घरा येतलो हे भावनेन पुरोयताक वेळकाळ विचारुन मेल्ल्या मनशाचे कुडींत जेवण तयार करून दवरतात. **जपानीः** मडें मसुंडींत व्हरचेपयलीं प्रार्थना म्हण्टात. मडें पेटयेंत घालून घराभायर काडटात. स्मशानयात्रा काडून मडें पुरतात. मडें भायर व्हेल्याउपरांत घर शुध्द करुन, मसुंडीत गेल्ल्या लोकांचीय शुध्दी करतात. पन्नास दिसां उपरांत, मेल्लो मनीस पितृलोकांत वता असो भावार्थ आशिल्ल्याकारणान ५० दीस मेरेन थड्याकडेन वचून श्राध्दासारकी क्रिया करतात. **मुसलमानः** हे लोक मड्याक न्हाणयतात. फकिराकडल्यान

प्रार्थना, नमाज म्हणून घेतात, स्मशानयात्रा करून मडें पुरतात. तिसऱ्या दिसा सगळे सोयरे-इश्ट एक जावन कुराण वाचतात आनी थड्याकडेन वचून फुलां ओंपतात. धाव्या, विसाव्या आनी चाळीसाव्या दिसा 'खाना' तयार करून सोयऱ्यांक, इश्टांक आनी गरीबांक जेवण दितात. **किरिस्तांवः** मड्याक न्हाणयतांत, काजळ घालतात, धवे कपडे घालून पेटयेंत दवरतात. दिसाची स्मशानयात्रा काडटात. उदेंतेक पांय जातले अशे तरेन मडें उताणें दवरून, मृतात्म्याक शांती मेळची अशी प्रार्थना करून मडें पुरतात. फुडें दर म्हयन्याक वा दर वर्सा मेल्ल्याच्या दिसा 'मास' करतात.

- माधव गोविंद भुस्कुटे

संदर्भः १. नाडकर्णी, मंगेश कमलाकर; अन्त्येष्टि धिंस्तर; मुंबई इंदुप्रकाश स्टीम-प्रेस प्रकाशन. २. ऋग्वेद मंत्रसंहिता.

**अंदमान आनी निकोबार:** बंगालच्या उपसागरांत आशिल्लो भारताचो केंद्रशासीत प्रदेश. विस्तारः उत्तर अक्षांश ६°४५' ते १३°४५' आनी उदेंत रेखांश ९२°१५' ते ९४°१३'. ह्या प्रदेशांतल्या अंदमान जुंव्याचें क्षेत्रफळ ६,३४० चौ. किमी. आनी निकोबार जुंव्याचें क्षेत्रफळ १,९५३ चौ. किमी. आसा. ह्या प्रदेशाची एकूण लोकसंख्या १,८८,२५४ (१९८१). हाच्या उदेंतेकडल्या दर्याक अंदमान दर्या म्हण्टात. उत्तर, मध्य *आनी दक्षिण अंदमान*; बाराटांगा आनी रटलंड हे पांच जुंवे मेळून एक व्हड अंदमान जालां. हाचे दक्षिणेक धाकटें अंदमान आसा. तेभायर उदेंतेकडलो रिची जुंव्याचो चोमो अशे ल्हान-व्हड जुंवे एकठांय करून २५७ जुंव्यांचें एक अंदमान जुंवो तयार जाता. १०°३०' अक्षवृत्ताचे दक्षिणेक धाकट्या अंदमान जुंव्यासावन ९६ किमी. अंतराचेर *कारनिकोबार, तेरेसा, कामोर्ता, त्रिकंत, नानकवरी, काचाल,* धाकलें निकोबार आनी व्हडलें निकोबार अशे ६२ जुंवे मेळून निकोबार जुंवो तयार जालां. हे जुंवे ब्रह्मदेशांतल्या नेग्राईश भूशिराचे दक्षिणेक १९३ किमी. अंतराचेर आनी सुमात्रा जुंव्याच्या औचिनहेड तोंकाचे अस्तंतेक १४६ किमी. अंतराचेर आसात. भारताचे राखणेचे नदरेन हीं थळां उपेगी आसात.

**भूंयवर्णनः** कार निकोबार आनी धाकलें अंदमान सोडल्यार हेर सगळो वाठार दोंगरी आसा. ह्या प्रदेशांत कांयकडेन इओसीन काळांतले वालुकाश्म , ज्वालामुखीवरवीं आयिल्ले डाइक, झिजून धार आयिल्ले चुन्याचे फातर, सर्पेंटाइन फातर, निळसर झांक मारिल्ले पंकाश्म, पिंडाश्म, प्रवाळी फातर अशी हांगाची रचणूक आसा.

निकोबार, बॅरन आनी नारकोंडम आदी जुंव्यांक जोडपी वळींचेर भुंयेचो वाठार मात्सो अर्दकुटो आसा. देखूनच निकोबार जुंव्याचेर परतून परतून भूंयकांप जातात. ह्या प्रदेशाक लाबिल्ली दर्यादिग दंतूर आसा, आनी ताचेर कितल्योश्योच खाडयो आनी सोबीत बंदरां आसात. प्रदेशाच्या अस्तंतेक ५० किमी. अंतराचेर बंगालचो उपसागर आनी *उदेंतेक सुमार १५० किमी. अंतराचेर अंदमान दर्या* आसा. मुखेल जुंव्या सावन १००-१२५ किमी. अंतराचेर अस्तंतेक सेंटिनल, उदेंतेक बॅरन आनी नारकोंडम अशे जुंवे आसात. बॅरन जुंवो हो १५३ मी. उंचायेचो एक ज्वालामुखी आसा, जाचो १९ व्या शेंकड्याच्या सुर्वेक स्फोट जाल्लो. ह्या प्रदेशांतल्या अंदमान वाठारांत उदकाचे व्हाळ ल्हान आनी गिमांत आटपी आसले तरी ताका वेग मात भरपूर आसता. दक्षिण *अंदमानांत* बाराय म्हयने उदक आसता. ग्रेट निकोबारांत कांय न्हंयो आसात.

**हवामानः** ह्या प्रदेशाचें हवामान चडशें दमट आनी उश्ण आसता. हांगाचें तापमान चडांतचड २०° ते ३०° से. आनी उण्यांत उणे २४° ते २५° से. आसता. नैऋत्य आनी ईशान्य मौसमी वाऱ्याखातीर ह्या जुंव्याचेर पावस पडटा. दक्षिण अंदमान आनी निकोबार जुंव्यांचेर वर्सूयभर पावस आसता. हांगा पावसाचें प्रमाण ३१२ सेंमी. आसा आनी दक्षिणेकडल्यान उत्तरेकडेन हें प्रमाण उणें जायत वता. वर्सूयभर हांगा भरपूर वारें आसून कांय दीस वादळी वारेंय व्हांवता.

**वनस्पत आनी मोनजातः** अंदमान आनी निकोबार प्रदेशाच्या जमनीचो ७७% वाठार रानान भरिल्लो आसा. अंदमानांतल्या वनस्पतींचे तीन भाग करूं येतात. सदां पांचवीचार झाडां, पानझडी आनी दर्यादिगेवेली वनस्पत. *ह्या वाठारांत पणस, नाल्ल, सुपारी, सागाच्यो तरेकवार जाती,* शिशें, सॅटीनवूड, कोको आदी जायते तरेचीं झाडां जातात. हांगाची रानातली संपत्ती भारतीय अर्थकारणाच्या परकीय चलन मेळोवपाचे नदरेन खूब म्हत्वाची आसा. हांगा खूबकडेन एकेच तरेचीं झाडां मेळिल्ल्यान वेपारी नदरेन उपाट फायदो जाता. प्लायवुड आनी फस्कां तयार करपाच्या लांकडांचीं झाडां हांगाच्या रानांनी भरपूर मेळटात. निकोबारांत नाल्ल, सुपारी, ताडरूख आनी मदेराक उपेगी पडपी लांकूड मेळटा.

अंदमान, निकोबार प्रदेशांत माकड आनी सरपटपी जीव भरपूर आसून, सोरपाच्यो वेगवेगळ्यो जाती हांगा पळोवंक मेळटात. हांगा रानडुकर, हत्ती, पाणघोडे, मानगीं, कांसव अशे जायते जीव-जंतू आनी सुकणीं आसात.

**इतिहासः** बरोच काळ मेरेन अंदमान आनी निकोबार ह्या जुंव्यां विशीं कोणाक कांयच खबर नाशिल्ली. भारत, ब्रम्हदेश आनी उदेंत देशाचे येरादारीचे वाटेर आशिल्ल्या ह्या जुंव्यांची खबर भोंवडेकार, वेपारी आनी चांचे लोकांकडल्यान मेळटाली. पूर्विल्ल्या भारतीय आनी अरब *वेपाऱ्यांच्या लिखाणावेल्यान ह्या जुंव्यांविशीं पयली खबर* नॅग्रिटो लोकांक मेळिल्ली आसूंक जाय अशें समजतात. दुसऱ्या शेंकड्यांत टॉलेमी ह्या भोंवडेकारान ह्या जुंव्याचो उल्लेख, 'जंय तरेकवार शंख आनी शिंपयो मेळटात तो जुंवो' असो केला.

अंदमान हें नांव हनुमानावेल्यान आयलां अशें म्हण्टात. १०५० काळांतल्या तंजावर शिलालेखांत *उल्लेख केल्ल्यान नेक्कावरम् (विवस्त्र* लोकांची भूंय) हाचेवेल्यान निकोबार नांव आयलां आसूंक जाय अशें म्हण्टात.

मदल्या काळांत ह्या प्रदेशाचेर गुलामांचो वेपार चलतालो. दर्याचेर लुटमार करपी चांचे लोक ह्या जुंव्याचो आदार घेताले. १७ व्या शेंकड्यांत युरोपी लोकांचें ह्या जुंव्याचेर लक्ष गेलें तांणी थंय आपल्यो वसणुको करून थंयच्या मूळ लोकांचें धर्मांतर करपाचो यत्न केलो. ह्या वाठारांतल्यान हस्तीदंत, मसाले, ढाक्याचें मलमल, हिरे, माणकां आदी वस्तुंचो वेपार चलतालो. चांचे लोक असल्या जहाजांचेर आनी चड करून ईस्ट इंडिया कंपनीच्या जहाजांचेर दोळो दवरून आसताले. १७५६ वर्सा, डेन लोकांचो ह्या जुंव्याचेर शेक चलतालो. ह्या काळांत चांचे लोकांची *गुंडगिरी बरीच मातिल्ली.* तांकां आळाबंदा हाडूंक १७८९ वर्सा लॉर्ड कॉर्नवालीस हाणें कॅप्टन ब्लेअर हाका धाडलो. कॅ. ब्लेअर ज्या बंदराचेर देंवलो, त्या बंदराक 'पोर्ट ब्लेअर' अशें नांव दिलां.

१७८८ ते १९४१ मेरेन ब्रिटीश राजवटीचो काळ-१८५७ वर्सा जाल्ल्या स्वातंत्र्य संग्रामात जाणी वांटो घेतिल्लो त्या देशभक्तांक ब्रिटिशांनी जन्मठेपेची *ख्यास्त दिल्ली. त्या काळांत अंदमान निकोबार* जुंवो म्हळ्यार काळ्या उदकाची ख्यास्त भोगपाचें थळ म्हणून समजताले. थंयचे पोर्ट ब्लेअर बंदखणीत खर ख्यास्त दिताले.

१९४१ ते १९४५ जपानी राजवट — १९४१ वर्सा जपानान हो वाठार हातासलो आनी ताका स्वयंपूर्ण करपाचो यत्न केलो.

१९४७ भारतीय काळ — भारत स्वतंत्र जातकच ह्या जुंव्याचो आस्पाव भारतांत जालो. स्वातंत्र्याउपरांत भारत सरकारान भारताच्या हेर राज्यांतल्यान आयिल्ल्या लोकांचें पुनवर्सन ह्या जुंव्यार केलां. सद्या हांगाचे थळावे लोक, जन्मठेपेची ख्यास्त भोगपाखातीर आयिल्ल्या लोकांचे वंशज आनी पुनर्वसनाखातीर आयिल्ले लोक अशे तीन तरेचे लोक रावतात. हांगाच्या थळाव्या लोकांक 'जारवा' आनी 'ओंगी' म्हण्टात. हातूंतले 'जारवा' व्हडल्या अंदमानात रावतात आनी 'ओंगी' धाकट्या अंदमानात रावतात.

**राजवेवस्थाः** भारतीय संविधानाप्रमाण अंदमान आनी निकोबार ह्या जुंव्यांक केंद्रशासीत प्रदेशाचो पांवडो मेळ्ळा. ह्या प्रदेशाची राजधानी पोर्ट




ब्लेअर हांगा आसा. अंदमानांत ग्रामपंचायती आनी न्यायपंचायती आसात. निकोबारांत पंचायत वेवस्था परंपरेप्रमाण चलता. ह्या प्रदेशांत एक प्रशासक, अधिकाऱ्यांच्या आदारान जुंव्याचो कारभार पळेता. निकोबार जुंव्या खातीर पालवी अधिकारी आसता. १९६७ वर्सा सावन राष्ट्रपतीन वेंचून काडिल्लो एक प्रतिनिधी लोकसभेंत आसता. हांगाच्या प्रशासकाच्या शिफारशीप्रमाण थळाव्या स्वराज्य संस्थेचो प्रतिनिधी वेंचून काडटात.

**अर्थीक स्थितीः** अंदमान आनी निकोबार प्रदेशाचो ७७% वाठार रानान व्यापिल्लो आसा. कांयकडेन पावसाच्या परिणामाक लागून 'जांभ्या' ह्या फातरापासून तयार जाल्ली जमीन आसा. हाका लागून खुबूच उण्या प्रमाणांत जमीन शेताखातीर मेळटा. ह्या प्रदेशाच्या ७४४१ हॅक्टर सुवातीर भाताचें पीक काडटात. नाल्ल आनी भात हीं हांगाचीं दोन मुखेल पिकां. तेभायर दरेक वर्सा सुमार ६०,००० मेट्रिक टन लांकडाचें उत्पादन जाता. हांगाचो मुखेल वेपार लांकूड आनी नाल्लावरवीं जाता. पोर्ट ब्लेअराक लांकूड कापपाची गिरण, फस्कां आनी प्लायवूड तयार करपाचे कारखाने आसात. तेभायर दर्यादिगेर नुस्तें मारप, शंख शिंपयो एकठांय करप, कांसव धरप आदी उद्देग थंय चलतात.

रानांतल्या भितल्ल्या वाठारांत कांय पंगड जनावरांची शिकार करून आपलें पोट भरतात. कांय वाठारांनी कुकडां पोसप, दुदाचो वेवसाय करप, बोटी बांदप, नुस्तेमारी आदी धंद्यांनी उदरगत करपाचो यत्न चल्ला. हांगाच्या सहकारी संस्थांची वाड करपाची, तेच परी गरजेवंत शेतकामत्यांक आनी कामगारांक रिणां दिवपाची वेवस्था केल्या. निकोबार सावन नुस्तें, सुपारी आदी वस्तू चीनाकडेन निर्यात जातात आनी तांदूळ, तंबाखू, कपडे, शस्त्रां आदी वस्तू तांकां आयात करच्यो पडटात. हांगा कॉफी, कोको, रबर आनी मसाल्यांचे पदार्थ हांचें उत्पादन करपाचो यत्न भारत सरकारावरवीं चल्ला.

अंदमान–निकोबार जुंव्याचेर शारांत आनी गांवगिऱ्या भागांत मोटार, बस, ट्रक आदी वाहनांवरवीं येरादारीची वेवस्था आसा. तेभायर दरेक जुंव्याचेर वचूंक बोटीची वेवस्था आसा. अंदमानांत पोर्ट ब्लेअर, पोर्ट कॉर्नवालीस, मायाबंदर आनी निकोबारांत कामोर्ता, त्रिंकत, नानकवरी अशीं बंदरां आसात. भारताकडेन अंदमान निकोबार जुंव्याची येरादारी आगबोटीवरवीं जाता. कलकत्ता ते पोर्ट ब्लेअर शाराक रंगून मार्गान विमान येरादारीची वेवस्था आसा. मद्राससावनय थंय विमानान वचपाची वेवस्था आसा.

**लोक आनी समाजजीणः** अंदमानातले मूळ लोक नेग्रिटो वंशाचे. जारवा, ओंगी सेंटिनेली आनी शॉमपेन ह्यो तांच्यो पोटजाती आसात. तांच्या पंगडांच्या मुखेल्याकडेन सगळे हक्क आसतात. तांचीं घरां घुमटा आकाराचीं आसतात. हांगाचें हवामान उश्ण आशिल्ल्यान हांगाचे लोक लज राखपापुरतीं झाडांचीं पानां वापरतात. हे लोक बुद्धीन मंद आनी खूब सोशीक आसात. तांचो रंग काळो आनी कात तुकतुकीत. तांच्या जेवणांत नाल्ल, नुस्तें, रानमाजर, कांसव, कंदमुळां, म्होंव हांचो आस्पाव आसता. घोव वा बायल मरतकच तांणी परतें लग्न करूं येता. पुलुगा ह्या दैवताक ते मानतात. सद्या अंदमानांतल्या ह्या आदिवासी लोकांची संख्या उणी जायत चल्ल्या. तातूंत बायलो तर सामक्योच उण्यो.

निकोबार लोकांत अंदमानी लोकांपरस खुबशें वेगळेपण आसा. हांगाचे मूळ लोक पॉलिनेशियन गटाचे आसात. गंवा रंगाच्या ह्या लोकांची नाकां चेपटीं आसतात. तांच्यांत जाती जमाती नात. पूण वेगवेगळ्या जुंव्यार राविल्ल्यान तांच्यांत कांय प्रमाणात फरक दिसता. तांच्या जेवणात चड करून नाल्ल, नुस्तें, फळां आनी भात आसता. केन्ना केन्नाय डुकरां, कोंबड्यो, बदकां हांचोय तांच्या जेवणांत आस्पाव जाता. ह्या लोकांक पान तंबाखूची आवड आसा. संगीत, नाच आदी मळारय तांकां बरी रूच आसा. हे लोक आयदनां तयार करप, कुरपणे, खोंटले विणप, शेंदऱ्यो,

लोखणाचीं हत्यारां तयार करप असले आनी हेर धंदे करतात. हालींच निकोबार लोकांमदीं फुटबॉल खेळपाची आवड निर्माण जाल्या.

अंदमान निकोबार जुंव्यार शिक्षणीक मळाचेर उदरगत जायत आसा. हांगा साक्षरतेचें प्रमाण ५१.५६% इतलें आसा. (१९८१). तेभायर भारतांत वचून फुडलें शिक्षण घेवपाची येवजण हांगाच्या भुरग्यांखातीर आसा. ह्या प्रदेशांत जायत्या भलायकी केंद्रांची वेवस्था आसा. निकोबारांत भलायकी येवजणेखाला तरेकवार रोगांखातीर नियंत्रण केंद्रां आसात. हांगाच्या पोर्ट ब्लेअर आनी कारनिकोबार हांगा माहिती केंद्रां आनी ग्रंथालयां आसात. पोर्ट ब्लेअरच्यान सरकारी विवरण पत्रिका उजवाडाक येता.

**कला आनी खेळः** ह्या प्रदेशांत लांकडाचें उत्पन्न भरपूर आयिल्ल्यान लांकडांच्यो तरेकवार वस्तू हे लोक करतात. शिवणकलेंत आनी कशिदाकामांत हांगाच्यो बायलो हुशार. हे लोक वेतापसून पांटले, कट्टेपसून आयदनां, मातयेचीं आयदनां करतात. भुतांपसून राखण जावंची ह्या हेतान हांगाचे लोक मनशाच्यो तशेंच सवण्यांच्यो आनी मोनजातीच्यो लांकडी आकृत्यो करून घरांत दवरतात. नाल्ल, कवासो, केळी, कोंडे आदींच्या पानांचे आनी फुलांचे हार तशेंच तरेकवार वस्तू करतात. शिकारेखातीर हे लोक आडव्या दांड्यार बांदिल्लीं चापाचीं धोणवां तयार करतात. ह्या लोकांचें संगीत आनी नाच सादे पूण पारंपारिक आसतात. ह्या प्रदेशांतल्या दादल्यांचो पूर्विल्लो भेस म्हळ्यार शिंवांचें चामडें कमराक गुठलावप. तेन्ना बायलो तणाचे घागरे घालतालीं. थंय तण आनी रंगीत कपड्यांपसून तयार केल्ल्यो तोपयो अजून वापरतात. हे लोक सरयांनी पैशे गुंथून तयार केल्ल्यो तेचपरी केळ, नाल्ल हांच्या पानांच्यो वा फुलांच्यो वस्ती वापरतात. ओंगी हे जमातींत मेल्ल्या मनशाच्या उगडासाक ताच्या हाडांच्यो वस्ती करून घालपाची चाल आसा. दूख, खोस वा कसलीय भावना उक्तावपाक हे लोक आंगाक गेरू, रंगीत माती आनी तेल लायतात. ह्या लोकांचे मुखेल आवडटे खेळ म्हळ्यार व्हड्यांची सर्त, दुकरांची झगडीं, कोंब्यांचीं झगडीं, लाठीमार. सद्या फुटबॉल, व्हॉलीबॉल ह्या सारके खेळ ह्या लोकांक आवडूंक लागल्यात.

**म्हत्वाचीं थळांः** अंदमान आनी निकोबार प्रदेशांत पोर्ट ब्लेअर शारांतली नामनेची बंदखण, धबधबे, सगळेकडेन पातळिल्लें दाट रान, उदकावेली भोंवडी, बॅरन आनी नारकोंडम हे ज्वालामुखीचे जुंवे, नानकवरी बंदर आदी कितलींशींच थळां पळोवपासारकीं आसात.

— कों. वि. सं. मं.

**अः** 'अ' हें सगळ्या भासांच्या वर्णमालेंतलें पयलें अक्षर आसून पाणिनीन ताचो उच्चार कंठापसून जाता अशें सांगलां. (अकुह विसर्जनीयानां कण्ठः). वेगवेगळ्या उच्चारणांप्रमाण संस्कृत भाशेंत हाचे सानुनासिक आनी निरनुनासिक अशे १८ भेद जातात. हिंदी आनी हेर भारतीय भासांत 'अ' चे फकत ऱ्हस्व आनी दीर्घ उच्चार जातात. फकत दोंगराळ वाठारांत, जंय पयसुल्ल्यान लोकांक उलो मारून आपोवचे पडटात तेन्ना प्लुत 'अ' चो वापर करतात. ('प्लुत' म्हळ्यार दीर्घापरस चड असो तीन मात्रांइतलो लांब उच्चार जावपी आकारादी स्वर.)

'अ' चे अर्थ सांगल्यात ते अशे :—

(१) आदिवर्ण — 'अक्षराणामकारो ऽ स्मि'— अक्षरांतलो अकार हांव (गीता १०.३३). वाङ्मयाचें आदी बीज. (२) प्रणवाची पयली मात्रा. (३) नञर्थक - नेतिं नेति - सुचोवपी. (४) शिव, ब्रह्मा, वायु आनी वैश्वानर.

अः शिखायां सिद्धमन्त्रे प्रग्राहेऽ कें स्थार्वणि ।
चक्रे कुक्कुटमूर्घ्नीन्दुबिम्बे ब्रह्मेशविष्णुषु ।।

(नानार्थमंजिरी)

अर्थ— ज्वाळा, मंत्र, पावस, रथाचो घोडो, चक्र, कोंब्याची तकली, चंद्रबिंब, ब्रह्मा, शिव, विष्णु हे 'अ' चे अर्थ जावन आसात.

'अ' चे रचणुकेविशीं वर्णोद्धारतंत्रांत असो उल्लेख आसा :— एक उबी आडी आनी तिका दोन आडयो फुटटात. एक बागोवन वयर वता आनी दुसरी बागोवन सकयल येता. सनपयलीं चवथ्या शेंकड्यांत ब्राह्मी लिपीपसून आयचे देवनागरी लिपीमेरेन वेगवेगळ्या शेंकड्यांत 'अ' च्या रुपाचो बदल जालो तो असो :—



तंत्रशास्त्राप्रमाण 'अ' अक्षरांत ब्रह्मा, विष्णु, शिव आनी तांच्यो शक्ती आस्पावतात.

अ+उ+म् मेळून ओंकार जाता. ताचें पयलें बीज 'अ' हें जावन आसा. चित्ताच्या एकाग्रतेखातीर ताचो जप करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**अकबरः** (जल्मः १५४२, उमरकोट-सिंध; मरण : १५ ऑक्टोबर १६०५, आग्रा).



अकबर

भारताचो तिसरो मोगल सम्राट. ताचें पुराय नांवः जलालुद्दीन मुहम्मद अकबर. आवयचें नांव हमिदाबानू. ताचो बापूय हुमायूँ हाका अफगाणचो शेर शाह हाणें दिल्लीच्या राजासनावेल्यान निखळायल्ल्यान तो इराणाक पळून गेल्लो. तीन वर्सां पिरायेच्या अकबराचो सांबाळ ताच्या बापोलयान केलो. १५५५ वर्सा हुमायूँन हिंदुस्तान जिखलें आनी तो परत सत्तेर आयलो. १५५६ वर्सा हुमायूँ भायर पडलो तेन्ना अकबर चौदा वर्सां पिरायेचो आशिल्लो. अकबराचो गुरु सरदार बहरामखान हाणें हुमायूँच्या मर्णाउपरांत अकबराक दिल्लीचे गादयेर बसयलो आनी अकबराचो प्रतिनिधी म्हूण स्वता राजकारभार पळोवपाक लागलो.

अकबराच्या राज्याचो विस्तार असो जालोः १५५६ — राज्यप्राप्ती. हेमूचेर पानीपताक जैत. १५५७ — पंजाबचेर घुरी. सिकंदरशहा शरण आयलो. १५६० — बहरामखानाचें बंड मोडून काडलें. १५६४ — चुन्नार घेतलें. १५६५ — आग्र्याचो किल्लो बांदपाक सुरवात. १५६८ — चितोड घेतलें. १५७२ — गुजराताचेर घुरी. १५७५ — बंगाल आनी बिहार शेकातळा हाडलीं. १५७६ — मेवाडचो राजा राणा प्रतापसिंह हाचेर घुरी. १५७७ — ओरिसांत दाऊदखानाचें बंड मोडलें. १५८२— आपलो भाव हकीम हाचेर जैत. १५८७ — काश्मीर जिखलें. १५८८ — सिंध प्रांत आपल्या राज्याक जोडलो. १५९४- कंदाहार जिखलें. १५९६- अहमदनगरचेर घुरी. वऱ्हाड घेतलें. १६००- अहमदनगर जिखलें. १६०५ मेरेन अकबराच्या साम्राज्याचो विस्तार हिंदु कुश ते गोदावरी न्हंय आनी बंगाल ते गुजरात मेरेन पातळळो.

मोगल साम्राज्याची बुन्याद घट करपी ह्या राजाचें भुरगेपण खूब कश्ट आनी दगदगांत गेलें. तरी आसतना फुडाराक एक कुशल प्रशासक म्हूण अकबर बादशाह नामनेक पावलो. ताणें आपल्या साम्राज्याचे १५ विभाग

करून सगळ्यांक समान राज्यवेवस्था सुरु केली. शेतवडीक उत्तेजन दिवप, वसुलाची वेवस्था पध्दतशीर दवरप आनी काटकसरीन खर्च करप हें ताचे राजवेवस्थेचें खाशेलेपण. सबंद लश्करी पुनर्घटना करून मनसबदारी पध्दत ताणें सुरू केली. लोकांची अर्थीक, समाजीक आनी धर्मीक उदरगत जावंची म्हूण ताणें जायते कायदे केले. त्या कायद्यांची अंमलबजावणी वेवस्थित जावंची म्हूण अधिकारी नेमले. दिसाचीं सुमार १५–१६ वरां तो राज्याचो कारभार पळोवपांत सारतालो. हिंदूंक त्रास जाता म्हूण तांचेवेले जझिया कर आनी यात्रा कर ताणें रद्द केले. आपल्या साम्राज्य थापणुकेवेळा ताणें हिंदू धर्म–संस्कृतायेचो आदार आनी रजपुतांचो सल्लो घेतलो. हिंदूंविशींचें ताचें धोरण उदारपणाचें आशिल्लें.

१५६२ – १५७० ह्या काळांत तो कांय रजपूत राजकुंवरींकडेन लग्न जालो. ताणें कांय रजपुतांक म्हत्वाच्या मनसब खात्यांत आनी तहसील खात्यांत मुखेली म्हूण नेमले. हिंदू रजपूत अकबराचे निश्ठावान सेवक जाल्ले. हिंदुस्थानाक आपलो देश मानपी हो पयलोच मुसलमान बादशाह. सगळे धर्म एकठांय करून एक व्यापक धर्म निर्माण करपाची ताची इत्सा आशिल्ली. ताका अनुसरून १५८१ वर्सा ताणें 'दीने इलाही' हो सगळ्या धर्मांतल्या वेंचीक तत्त्वांचेर आदारित असो नवो धर्मपंथ निर्माण केलो. 'दीने इलाही' हाचो अर्थ 'देवाचो धर्म'. ताका 'तौहीदे इलाही' (एकेश्वरी धर्म) अशेंय म्हण्टात.

नवरोजासारके कांय पारशी सण तो मनयतालो. तो सूर्याचीय उपासना करतालो. जैन धर्माचो ताचेर प्रभाव पडिल्लो. पूण हिंदू धर्माचो चड. हिंदूंच्या दिवाळेसारक्या परबेंत तो खोशयेन वांटो घेतालो. ताणें आपल्या राजवटींत साहित्य, संगीत आनी कला हांची खूब उदरगत केली. तानसेन, बाबा रामदास, बैजू बावरा हे नामनेचे गवय आनी फैझी, अबुल फजल, बदायूनी, बिरबल, तोडरमल, मानसिंग सारकील्या नामनेच्या पंडितांक ताणें आपल्या दरबारांत आलाशिरो दिलो. ताणें फारसी आनी संस्कृत साहित्य-निर्मणेच्या वावराक खूब उर्बा दिली. अथर्ववेद, भगवद्गीता, रामायण, महाभारत, हरिवंश, लिलावती, पंचतंत्र ह्या संस्कृत ग्रंथांचे ताणें विद्वानांकडल्यान फारसी भाशेंत अणकार करून घेतले. निजामुद्दीन, बदायूनी ह्या इतिहासकारांनी फार्सी भाशेंत इतिहास बरयले. अकबराचे जिणेचेर बरयल्लो अबुल फज्ल हाचो 'अकबरनामा' हो ग्रंथ खूब नांवाजल्लो आसा. तुलसीदास, सूरदास, रहीम, रसखान, बिरबल आनी भक्तीपंथाचो म्हान फुडारी विठ्ठलनाथ हे म्हान कवी ताच्या काळांत जावन गेले.

शिक्षणाच्या मळार अकबरान केल्लो वावर मोलाचो. इस्लामी धर्माचो शिक्षणाचेर आशिल्लो प्रभाव ना करपाक ताणें अभ्यासक्रमांत नीतिशास्त्र, गणित, शेती, भूमिती, ज्योतिषशास्त्र, तत्त्वज्ञान, इतिहास, संस्कृत हे नवे विशय सुरु केले. तशेंच हिंदू–मुसलमानांक एकेच शाळेंत शिकपाची वेवस्था केली. ताणें सुलेखनकलेक उत्तेजन दिलें. त्या काळांत प्रचारांत आशिल्ल्या सुलेखनकलेच्या आठ प्रकारांतलो 'नस्तअलीक' हो प्रकार ताचे आवडीचो आशिल्लो. चित्रकला, शिल्पकला, वास्तूकला हांचीय ताचे मुर्स्तींत खूब उदरगत जाली. १५७५ वर्सा ताणें फत्तेपूर सिक्री हांगा 'इबादत-खाना' (प्रार्थना घर) बांदलो. वास्तुकलेक उत्तेजन दिवपाखातीर ताणें एक वेगळेंच खातें उगडिल्लें. ताच्या काळांत बांदिल्ल्या वास्तूंत हिंदू आनी इराणी पध्दतीचो सुंदर मिलाफ दिसता. देखीक: जोधाबाईचो महाल, सती बुरुज, जहांगीर महाल.

— कों. वि. सं. मं.

**अकादेमी:** पूर्विल्ल्या ग्रीस देशांत नामनेचो ग्रीक तत्त्वज्ञ प्लेटो (४२७–३४८, इ.स.प.) हाणें थापणूक केल्ल्या विद्यापीठाक 'अकादेमी' अशें म्हण्टात. अथेन्स शारा लागसारच अकादमस नांवाचें एक उद्यान आसा. तातूंत सुमार ३८७ इ.स.प. प्लेटोन आपल्या विद्यापीठाची थापणूक केली. तें 'अकादेमी' ह्या नांवान नामनेक पावलें. 'अकादेमी' हें नांव 'अकादमस' ह्या ग्रीक वीराच्या नांवावेल्यान घेतलें अशें म्हण्टात. प्लेटोच्या विद्यापीठाची सगळ्याक नामना जाली आनी हेर देशांतलेय विद्यार्थी थंय शिकपाखातीर येवंक लागले. प्लेटोच्या काळांत ॲरिस्टॉटल हाणेंय वीस वर्सां अकादेमींत मोलाचो वावर केलो. हे अकादेमींत तत्त्वज्ञान, गणितशास्त्र, सृश्टशास्त्र आनी राज्यशास्त्र हे विशय शिकयताले.

अकादेमीचो इतिहास चार काळखंडांत वांटून गेला: **(१) पोरनी अकादेमी:** ( इ.स.प. ३४७–२६४) ह्या पयल्या काळखंडांत स्प्यूसिपस, झीनॉक्राटीझ, पॉलेमो आनी क्रेटीझ हे अकादेमीचे 'स्कॉलर्स' (पीठमुखेली) जावन गेले. **(२) मदली अकादेमी:** (इ.स.प. २६०–१६०) ह्या काळांत आर्केसिलॉस ह्या पीठमुखेल्यान अकादेमीच्या तत्त्वज्ञानाक वेगळेंच मोडण दिलें. **(३) नवी अकादेमी:** (सुमार इ.स.प. १६०-१००) अकादेमीच्या इतिहासांत आनीक एक नवो काळखंड सुरु करपाचो भोवमान अधिपती कार्नीआडीस हाका फाव जाता. कार्नीआडीस हाणें आपल्या व्याख्यानांवरवीं सुशिक्षित रोमन लोकांक ग्रीक तत्त्वगिन्यानाची वळख करुन दिली. **(४) निमणी अकादेमी:** (इ.स. ५२९ आदलो काळ) अकादेमीचो निमणो काळखंड खूब लांब आसा. ॲंटायओकस, प्लूटार्क, सायरीनियस, प्रॉक्लस, डामॅशियस अशीं ह्या काळांतल्या अकादेमीच्या कांय कुलगुरुंचीं नांवां जावन आसात. अकादेमीचो निमणो पीठमुखेली डामॅशियस हाचे कारकिर्दींत इ.स. ५२९ वर्सा जस्टिनियन ह्या रोमन सम्राटान सगळीं ख्रिश्चनेतर विद्यापीठां बंद करपाचो हुकूम काडलो. ताका लागून प्लेटोची अकादेमी बंद जाली, आनी अशे तरेन पूर्विल्ल्या ग्रीक तत्त्वगिन्यानाचो अंत जालो.

संवसारांतली सगळ्यांत नामनेची अकादेमी १६३५ वर्सा पॅरीस हांगा 'आकादेमी फ्रांसॅझ' ह्या नांवान सुरु जाली. हे अकादेमीचो उद्देश फ्रेंच भाशेचो अभ्यास आनी उदरगत करुन कला आनी शास्त्र हांची फ्रेंच भाशेंतल्यान प्रगती करप हो आशिल्लो. १८१६ वर्सा हे अकादेमीच्यो पांच शाखा जाल्यो. त्यो अश्यो– भाशा, ललित वाङ्मय, भौतिकशास्त्रां, कला आनी नीतिशास्त्र आनी राज्यशास्त्र. फ्रेंच अकादेमीच्या ४० वांगड्यांक 'अमर' ही भोवमानाची पदवी दितात.

इंग्लंडांतली सगळ्यांत पोरनी अकादेमी 'रॉयल सोसायटी' १६६२ वर्सा भौतिकशास्त्राच्या अभ्यासाखातीर स्थापन जाली. १७५४ वर्सा 'रॉयल अकादेमी ऑफ आर्टस्' ही अकादेमी चित्रकला, शिल्पकला आनी स्थापत्य हांच्या अभ्यासाखातीर स्थापन जाली. मानव्यविद्येच्या अभ्यासाखातीर ब्रिटीश अकादेमी १९०२ वर्सा स्थापन जाली. 'ॲकॅडॅमी ऑफ आर्टस् ॲंड लेटर्स' ही अमेरिकेंतली साहित्य, संगीत आनी चित्रकला ह्या मळावेल्या नांवाजल्ल्या कलाकारांची व्हडली संस्था आसा. अश्यो आनी हेर जायत्यो अकादेमी सगळ्या प्रगत देशांत स्थापन जाल्यो आसात.

स्वतंत्रतायेउपरांत भारत सरकारान कला, साहित्य, संस्कृताय, नाटक, संगीत हांकां उत्तेजन दिवपाखातीर तीन अकादेमींची थापणूक केली. **(१) संगीत नाटक अकादेमी (१९५३):** नृत्य, नाटक, चित्रपट आनी संगीत ह्या कलांक उत्तेजन दिवपाखातीर आनी भारतीय सांस्कृतिक एकचार सादपाच्या हेतान हे अकादमीची थापणूक जाली. हे अकादेमीच्या वावराचें स्वरूप अशें: प्रादेशिक संस्थांच्या कार्यावळींनी एकसुत्रीपण हाडप, संशोधनाक उत्तेजन दिवप, उत्सव आनी कार्यावळी घडोवन हाडप, चर्चासत्रां घेवप. **(२) साहित्य अकादेमी (१९५४):** साहित्य अकादेमी मार्च, १९५४ वर्सा स्थापन जाली. उर्बा दिवपाखातीर साहित्य अकादेमी भारतीय बरोवप्यांक पुरस्कार आनी मानचिन्हां दिता. भारतीय भाशांतल्या आयच्या ग्रंथांची वळेरी तयार करप, संस्कृत साहित्य (महाकाव्यां आनी पुराणां) उजवाडावप, एके भाशेंतलें साहित्य हेर भाशांनी अणकारप असो वावर अकादेमीन हातांत घेतला. दर वर्सा उजवाडाक येवपी दरेक भाशेंतल्या बऱ्यांतल्या बरे साहित्यकृतीक अकादेमी २५,००० रुपयांचो पुरस्कार दिता. **ललित कला अकादेमी (१९५४):** हे अकादेमीची थापणूक ऑगस्ट, १९५४ त जाली. अकादमीचो मुखेल वावर चित्रकला, शिल्पकला, स्थापत्य आनी हेर कला

हांच्या अभ्यासाक आनी संशोधनाक उत्तेजन दिवप हो जावन आसा. ह्या खेरीज प्रादेशिक अकादेमींच्या कार्यावळींनी एकसूत्रताय हाडप, कलेविशीं साहित्य उजवाडावप आनी कलाकृतींचीं राश्ट्रीय प्रदर्शनां घडोवन हाडप होय वावर अकादेमी करता. भारतीय चित्रां आनी चित्रांचीं पोस्टकार्डां अकादेमीन उजवाडायल्यांत.

दर एका राज्यांत त्या त्या राज्याची भास आनी ते भाशेंतले साहित्य, कलाकुसर हांची उदरगत सादपाखातीर अकादेमीची थापणूक केल्ली आसा. गोंयांत कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय हांची उदरगत सादपाखातीर *'गोवा कोंकणी अकादेमी' (*)* सरकारान घडयल्या. तशेंच गायन, नृत्य, नाट्य, वाद्य ह्या कलाप्रकारांचो अभ्यास जावंचो म्हूण *कला अकादेमी (*)* घडयल्या. तेचपरी मराठी भास आनी साहित्य हांची उदरगत करपाक 'गोमंतक मराठी अकादेमी' वावुरता.

— कों. वि. सं. मं.

**अकाली:** एक शीख धर्मपंथ. 'अकाल' म्हळ्यार जाचेर काळाचो लेगीत शेक चलना असो— म्हळ्यार परमेश्वर. ह्या परमेश्वराची उपासना करपी ते 'अकाली'. शीख धर्मांत ह्या शब्दाक खाशेलें म्हत्व आसा. धर्मीक नदरेन पळेल्यार हो पंथ कर्मठ आसून राजकी नदरेन तो जहालमतवादी जावन आसा. गुरु नानकदेव हाणें कालातीत परमेश्वराची उपासना 'अकाल' ह्या नांवान प्रचलित केली. ''जातीपातीचीं, धर्माचीं आनी देशाचीं बंधनां मानीनासतना समेस्त लोकांचेर मोग करचो. तांकां विरोध करीनासतना इश्टागतीन वागचें. कारण, सगळी मनीसजात त्या अकाल पुरसाचीच संतती आसा'', असो उपदेश गुरु नानक हाणें केलो. 'अकाल सत् श्री अकाल' ही ह्या पंथाची घोशणा आसा.

हीच परंपरा फुडें चलोवन शिखांचो सवो गुरु हरगोविंद हाणें अकाली पंथाची स्थापना केली. ताणें अमृतसरच्या भांगरा मंदिरामुखार अकालतख्त स्थापन केलें. ताका 'अकाल बुंग' अशें नांव आसा. 'बुंग' म्हळ्यार जाचेर घुमट आसा अशें एक महाभवन. ह्या अकालबुंगांत अकाली लोकांच्यो गुप्त बसका जावपाक लागल्यो. तातूंत जे थाराव जाताले तांकां गुरुमतां म्हळ्यार गुरुचो 'आदेश' अशें मानताले. धर्मीक सुवाळ्यांच्या स्वरूपांत अकाली दलाचीं थंय खूब संमेलनां भरतालीं. पूण तांचो मुखेल उद्देश मोगलांच्या अत्याचारांपसून लोकांचें रक्षण कशें करप, होच आसतालो. ह्याच कारणाक लागून अकाली चळवळीक राजनितीक वळण लागलें. जो नामवाणीचो प्रेमी, त्यागी आनी विरक्त, अशा मनशाकूच अकालबुंगाचो वांगडी जावपाचो अधिकार आशिल्लो. अकाली लोक शूर, निर्भय आनी स्वतंत्र आसताले. भुरगीं, जाण्टे, दुबळे आनी बायलो हांची राखण करप होच आपलो धर्म अशें ते समजताले.

१६९९ त गुरु गोविंदसिंह हाणें 'खालसा पंथ' स्थापन केलो. फकत अकाली लोक त्या पंथाचे अनुयायी आशिल्ले. औरंगजेबाच्या अत्याचारांक तोंड दिवपाक अकाली लोक सेनादलाच्या स्वरूपांत संघटित जाले. निळें वस्त्र आनी पांच ककार :— कच्छ, कडा, कृपाण, केश, कंघा धारण करपाची गुरुन तांकां आज्ञा केली. तांच्या लश्करी बाण्याक लागून तांकां 'निहंग' अशेंय म्हण्टाले. 'निहंग' ह्या फारसी शब्दाचो अर्थ निर्भय असो आसा. शिखांच्या इतिहासांत अकालींनी केल्ली कामगिरी म्हत्वाची. निहंग ब्रह्मचारी वृत्तीन रावताले. ते दलित—दुबळ्यांची राखण करताले आनी शीख धर्माचो प्रचारुय करताले. ते सदांच भोंवडेर आसताले. तांची ही पक्षीवृत्ती पळोवन कांय लोक तांकां 'विहंग'(सुकणें) अशेंय म्हण्टाले. अफगाणांच्या धुरयांक तोंड दिवप आनी अत्याचारी टोळयां पसून हिंदू तायलांची राखण करप हें तांचें दिसपट्टें कार्य जाल्लें.

महाराजा रणजितसिंह (इ.स. १७८०—१८३९) हाच्या काळांत अकाली सेनादल भरभराटीच्या तेंगशेर पावलें. अकाली सैन्याच्या बळाचेरूच मुलतान, काश्मीर, अटक, नौशेरा, जमशेद, अफगाणिस्तान हांगा रणजितसिंहान आपलो राज्यविस्तार केलो. त्या वेळार फुलासिंग हो अकालींचो फुडारी आशिल्लो. इ.स. १८०९ त अमृतसर हांगा मेटकाफ हांच्या सैन्याचेर तो आपल्या दलासयत तुटून पडलो आनी ताका लागून नामनेक पावलो. इ.स. १८१८ त वेढ्यांत सांपडिल्लो मुलतानचो किल्लो ताणें मोटो पराक्रम करून सर केलो. ताचो हो पराक्रम पळोवन रणजितसिंहान ताका सिंध देगणांत मुखेल अधिकारी म्हूण नेमलो. फुडें १८२३ सालांत तेरीच्या लडायेंत हाणें आपल्या दलासयत युसुफझईचेर घुरी घाली. युसुफझईचो पराभव जालो खरो पूण फुलासिंगाक ह्या झुजांत मरण आयलें.

शीख गुरुंनी आपल्या धर्माच्या प्रसाराखातीर जायतीं गुरुद्वारां स्थापन केल्लीं. तांच्या चरितार्थाखातीर रणजितसिंहान व्हडल्यो—व्हडल्यो जहागिन्यो लावन दिल्ल्यो. इंग्लेज राज्यांत ह्या जहागिन्यांचे अधिकार जांच्या हातांत आशिल्ले, तातूंतले चडशे महंत फुडें वायट कर्तुपां करपाक लागले. ताका लागून गुरुद्वारां हीं अनीतीचीं आगरां जालीं. अशा महंतांच्या हातांतल्यान गुरुद्वारांचो उद्धार करपाखातीर १९२० सालांत अकाली तरनाट्यांनी आपलें नवें सेनादल संघटित केलें. तांणी मठांतसून वायट करण्यो करपी महंतांक धांवडायले आनी मठ आपल्या ताब्यांत घेतलो. ह्या वावरांत कितल्याशाच अकाली वीरांक आत्मबलिदान करचें पडलें. ब्रिटीश सरकारान सुर्वेक महंतांक बरीच मदत केली, पूण निमणें अकाली दलानूच जैत जोडलें. सन १९२५ मेरेन सगळीं गुरूद्वारां शिरोमणि गुरुद्वारा कमिटीच्या शेकातळा आयलीं. ह्या वावरांत महात्मा गांधीची खूब मदत जाली. भारतीय काँग्रेसीनूय अकाली आंदोलनाचो पुरस्कार केलो.

१९२५ त ब्रिटीश सरकारान गुरुद्वारा कायदो काडलो. ताका अनुसरून १९२६ त गुरुद्वाराप्रबंधक समितीची पयली व्याप्ती थारायली. हे समितीचें मुखेल कार्य गुरुद्वारांची देखरेख, धर्मप्रचार, विद्याप्रसार हें जावन आसा. शिरोमणि गुरुद्वाराप्रबंधक समितीपरस वेगळें अशें एक केंद्रीय शिरोमणि अकाली दल अमृतसर हांगा स्थापन जालां. ताचे जथे दरेक जिल्ह्यांत गुरुद्वारांची वेवस्था आनी लोकसेवा हो वावर करतात.

फुडें कांय काळाउपरांत अकाली दलाचें रुपांतर मास्टर तारासिंगाच्या फुडारपणाखाल एका राजकीय पक्षांत जालें. सुर्वेक ह्या पक्षान महात्मा गांधीच्या असहकार चळवळींत सक्रीय वांटो घेतलो. हालींच्या काळांत, अकाली दलान भाशावार प्रांतरचनेच्या तत्त्वाक आदारून स्वतंत्र पंजाबी सुभ्याची म्हळ्यार पंजाब राज्याची पोटतिडकेन मागणी केली. तेखातीर आंदोलन करून १ नोव्हेंबर १९६६ ह्या दिसा आपलें उद्दिष्ट प्राप्त करून घेतलें. उपरांत संत फतेसिंगाच्या फुडारपणाखाल अकालींनी चंदीगढ हें राजधानीचें ठिकाण पंजाबाक मेळचें म्हूण खर आंदोलन करून २९ जानेवारी १९७० ह्या दिसा आपली मागणी मान्य करून घेतली.

— कों. वि. सं. मं.

**अकोला:** महाराष्ट्र राज्यांतल्या, विदर्भ भागांतल्या अकोला जिल्ह्याचें मुखेल थळ. मोर्णा न्हंयच्या अस्तंत देगेचेर अकोला शाराचो पोरनो वाठार वसला आनी उदेंत देगेचेर ताजनापेठ हो नवो वाठार वसला. लोकसंख्या २,२५,४१२ (१९८१) आनी क्षेत्रफळ २०.८८ चौ. किमी. हवामान विशम आनी सुकें.

अकोला शाराविशीं ह्यो दंतकथा आसात: अकोलसिंग नांवाच्या राजपूत सरदारान अकोला शाराची वसणूक केली. आइन—इ—अकबरीत, अकोला हें नरनाळा सरकाराचें परगणा आशिल्लें शार असो उल्लेख मेळटा. ह्या शारांत औरंगजेबाच्या काळांतले शिलालेख मेळटात. १८५३ वर्सा ब्रिटिशांनी हें शार निजामाकडल्यान हाताशिल्लें. फुडें १८६८ पसून ह्या शारांत नगरपालिका जावन शाराची उदरगत जायत गेली.

वेपारीपेठ म्हूण ह्या शाराक खूब म्हत्व. मुंबयच्यान विदर्भ वाठारांत येवपी मालाची ही पयली उतारपेठ. तेचपरी कापसाची ही व्हड पेठ. ह्या शारांत कापसाच्यो बियो काडून गठ्ठे बांदप, शिमिटाच्यो फरशो तयार करप, लोखणी वस्तू, लांकडाचीं खेळणीं, शाबू, विडयो, प्लास्टिक आदींचे कारखाने आसात. हांगा तेलाचे घाणे आनी गिरणी आसात.

मुंबय ते कलकत्ता आनी खांडवा ते हिंगोली ह्या रेल्वेमार्गावेलें, तेचपरी मुंबय ते कलकत्ता ह्या म्हामार्गावेलें हें स्थानक. महाराष्ट्रांतल्या

हेर सगळ्या मुखेल शारांक हें शार रस्त्यांनी जोडलां.

१९२० वर्सासावन राश्ट्रीय शिक्षणाखातीर नामनेक पाविल्लें 'टिळक राष्ट्रीय सरस्वती मंदिर', जायत्यो माध्यमिक शाळा, वेवसायीक आनी उद्येगीक शिक्षणाच्यो संस्था, मानव, विज्ञान, वाणिज्य, कायदो, कृषी, शिक्षणशास्त्र, आयुर्वेद, होमिओपथी आदीचीं महाविद्यालयां हांगा आसात. १९६९ वर्सा स्थापिल्लें पंजाब कृषी विद्यापीठ हांगा आसा. अकोला शारांतलें साक्षरतेचें प्रमाण ४८% आसा. हांगा तीन व्हड ग्रंथालयां आसात. तशेंच चार सातोळीं आनी दोन नेमाळीं हांगाच्यान उजवाडाक येतात.

—कों. वि. सं. मं.

## अक्कलकोटकर स्वामी: (जल्म: ? — समाधी १८७८).

जाका दत्ताचो अवतार मानतात असो एक सत्पुरुष. दत्तसंप्रदायाच्या इतिहासांत हाका म्हत्वाची सुवात आसा. हाचे सुरवातीचे जिणेविशीं कांयच माहिती मेळना. १८५७ त तो अक्कलकोट हांगा आयलो आनी अखेरमेरेन थंयच रावलो. लोक ताका अक्कलकोटचे स्वामी ह्याच नांवान वळखताले. एकदां कोणे तरी ताका ताच्या मूळ स्थानाविशीं जेन्ना प्रस्न केलो तेन्ना ताणें जाप दिली— ''आमी कर्दळीबनांतल्यान भायर सरुन बंगाल देश, गंगा—गोदातटाक हीं थळां भोंवत भोंवत निमाणे हांगा आयले.'' कर्दळीबनांतल्यान भायर सरले, हे ताचे सांगणेवेल्यान ताच्या भक्तांनी १४५८ वर्सा कर्दळीबनांत (श्रीशैल) निजानंदाक गेल्लो नरसिंह सरस्वतीच ह्या स्वामीच्या रुपान परत अवतार घेवन आयला अशेंच मतींत निश्चित केलें.



अक्कलकोटकर स्वामी

अप्रूपांच्यो लिला आनी चमत्कार हांणी ताची जीण पुराय भ र ल्या. ता चें उ लो व प—वा ग प ए के क दां ल्हान भुरग्यासारकें आनी एकेकदां पिशांसारकें आसतालें. शेंकड्यांनी भावीक लोक ताच्या दर्शनाखातीर येताले. तातूंत राजे-म्हाराजे हांचोय आ स्पा व आ स ता लो. तो कोणाच्याच प्रस्नांक सारकी जाप दिना आशिल्लो. ताणें केल्या वावराक लागून महाराष्ट्रांत दत्त उपासनेचो प्रसार मोट्या प्रमाणांत जालो. स्वामीचें एक आवडीचें भजन आशिल्लें:—

शिव हर शंकर नमामि शंकर
शिवशंकर शंभो
ये गिरिजापति भवानिशंकर शंभो ।।
संतमहंतां होती भेटी
हरुषें नाचूं वाळवंटीं।

ध्यानस्त अवस्थेंत स्वामी विराट शिवाचें ध्यान करतालो अशें सांगतात. ताणें सबंद महाराष्ट्रांत गुरुसंप्रदाय वाडयलो. चैत्र वद्य शके १८०० दिसा तो निजानंदांत विलीन जालो. अक्कलकोट हांगा ताची समाधी आसा.

— कों. वि. सं. मं.

## अक्रोड: (मराठी—अक्रोड; हिंदी—अखरोट; गुजराती—अखोट; संस्कृत—अक्षोट; इंग्लीश—वॉलनट; लॅटीन—जुग्लांस रेजिया; कुळ—जुग्लँडेसी)

हो व्हड, पानझडी, वासाळ आनी एकत्रलिंगी रुख. हो रुख मूळचो इराण देशांतलो. सद्या उत्तर भारतांत, दक्षिण युरोप, सिरिया आनी अमेरिका ह्या वाठारांनी अक्रोडाची लागवड करतात. भारतांत हो रुख हिमालय आनी आसाम हांगाच्या वाठारांत दिश्टी पडटा. काश्मीर, हिमाचल प्रदेश, पंजाब आनी उत्तर प्रदेश ह्या वाठारांनी ह्या रुखाची व्हड प्रमाणांत लागवड करतात.

ताची उंचाय २४—३० मी. आनी कांडाचो घेर ३—४ मी. आसता. साल गोबरी आनी ताचेर खांची आसतात. पानां एकाफाटल्यान एक, एकसंघ विशमदली आनी पिच्छाकृती (pannate), १५—३८ सेंमी. लांबायेचीं आसतात. ताळयेचे तेंगशेर ल्हान आनी पोपटी रंगाचीं फुलां येतात. लांब आनी हुमकळपी बारीक कणसांचेर पुं.—पुष्प येतात. तेचपरी सामक्या तोंकावेल्या ताळयेचे तेंगशेर १—३ स्त्री-पुष्प येतात. फळ पाचवें, लांबशें आनी वाटकुळें (पेरायेदें) आसता. फळांत भितर बी आसता. फळाची भायली साल दाट आनी घट्ट आसता. ताचें भितल्लें कवच घट्ट मिरयो पडिल्लें आनी दोन धांपणीं आशिल्लें आसता. ह्या कवचाभितर चार खंड आशिल्ली खावपाची बी आसता. धापयो दाट आनी वांकड्यो — तिकड्यो आसतात. भौगोलिक प्रसार आनी धापयांची लक्षणां हांचेवेल्यान अक्रोडांचे विंगड—विंगड प्रकार धारायल्ले आसात. तातूंत कागदी प्रकारच्या फळाक बऱ्यांतलें बरें फळ मानतात.

ह्या रुखाक गाळाची, खोल जमीन आनी सुमार ७५ सेंमी. पावस लागता. अति उश्ण आनी अति थंड हवामान आशिल्ल्या वाठारांत अक्रोडाचें पीक जायना. लागवडी उपरांत ८—१० वर्सांनी ह्या रुखाक फळां जातात. सप्टेंबर—ऑक्टोबर म्हयन्यांत फळां पिकतात. सुमार १०० वर्सांमेरेन ह्या रुखाक फळां लागतात. अक्रोडाची बी रुचीक बरी लागता. गोड खाणांत आनी आइस्क्रीमांत ही बी घालतात. तरन्या फळांपसून लोणचीं, मुरांबे, चटणी आनी सरबत करतात. पाचवे सालीच्या तेलांत अर्क काडून तातूंत फडकी घालून केंसांक लावपाचो कलप तयार करतात. अक्रोडाचीं पानां पुश्टीक, आकुंचन करपी आनी जंतूंचो नाश करपी आसात. झाडाची साल आनी पानां पुळयो, गंडमाळा, उपदंश (syphilis), इसब (eczema) हांचेर उपेगी पडटा. फळ संधिवाताचेर आनी बियांचें तेल पट्टकृमी (tapeworm) चेर दितात. मलाया ह्या वाठारांत कळो आनी अमांश हांचेर बियांतल्या गरांचो उपेग करतात. बियांचें तेल खावपाक वापरतात. तेचपरी चित्रकाराचे रंग, वार्निश, शाबू हालूंत ताचो उपेग करतात. ताचें लांकूड सादारण घट्ट, आनी जड आसता.

— कों. वि. सं. मं.

## अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद:

(पळेयात कोंकणी साहित्य परिशद).

## अगरताला:

सद्याच्या त्रिपुरा राज्याची आनी आदल्या टिपेरा संस्थानाची राजधानी. आसामाच्या काचार जिल्ह्यांतल्या स्थानकापसून त्रिपुरा प्रदेशाच्या उत्तर भागांतल्या धर्मनगरामेरेन रेल्वेचो फांटो आसा. थंयच्यान अगरताला मेरेन रस्तो आसा. तशेंच आसाम-अगरताला हो २०१ किमी. लांबायेचो त्रिपुरा प्रदेशाचो म्हत्वाचो रस्तो तयार जाल्ल्यान हो भाग भारतांतल्या उदेंत प्रदेशाकडेन पुरायेन जोडून गेला. भूंयमार्गान कलकत्ता सावन अगरताला १६८० किमी. पयस आसा आनी वायुमार्गान उदेंतेक ३१५ किमी. अंतराचेर आसा.

हांगाचें हवामान १०° ते ३०° से. आसता. लोकांची भास बंगाली आसून, खुबशे हिंदू लोक हांगा रावतात. १८७५ वर्सा सावन हांगा नगरपालिका आसा. मुळाव्यो तश्योच माध्यमिक शाळा, कलेच्यो शाळा, महाविद्यालयां, संस्कृत शाळा, सरकारी कार्यालयां आनी हेर संस्था आसात. हांगा 'उज्जयंत' नांवाच्या नव्या राजवाड्याभायर पोरन्या राजवाड्या लागसार आशिल्ल्या एका देवळांत, आदल्या राजघराण्याच्या कुलदेवतांचीं तरेकवार धातूंनी तयार केल्लीं रुपडीं आसात. हांगाचें

पोरनें नगर हाओरा न्हंयच्या अस्तंत देगेर तर नवी वसणूक उदेंत देगेर आसा.

–कों. वि. सं. मं.

**अगरवाडेकर, पुरुषोत्तम गोविंद:** (जल्म: १९३५, कळंगूट – बार्देस; मरण: १४ नोव्हेंबर १९८१).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मराठींत प्राथमिक शिक्षण घेतलें. 'गोंय सोडात' (Quit Goa Organisation) हे संस्थेचो तो वांगडी आशिल्लो. ताणें जायतो भूमीगत राश्ट्रीय वावर केला. ताचे खातीर ताका साडे स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगची पडली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**अगरवाडेकर, महादेव फोटू:** (जल्म: १९२४, शिवोली-बार्देस).

गोंयचो सुटके झुजारी. १९५० वर्सासावन तो आझाद गोमंतक दलाचो वांगडी आसलो. सुटकेझुजाऱ्यांक अन्न आनी रावपाक दिवप, तशेंच तांणी पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करून हाडिल्लो दारुगुळो लिपोवन दवरप असलो वावर तो करतालो. ऑक्टोबर १९५५ ह्या वर्सा पोलिसांनी ताका धरलो आनी दोन वर्सां बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**अगरवाडेकर, वासुदेव सुखा:** (जल्म : १८ जून १९४२, शिवोली–बार्देस).

गोंयचो सुटके झुजारी. १९५४ वर्सा सावन आझाद गोमंतक दल (AGD) हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. तो राश्ट्रीय वावरांनी वांटो घेतालो. १९५४ वर्सा ताका नारायण पार्सेकार हाच्या वांगडा धरलो आनी रोखडोच सोडलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**अग्निदिव्य:** आदल्या काळांत भारत आनी हेर देशांनी उज्यावरवीं बायलांच्या सतित्वाविशीं आनी गुन्यावकारांच्या गुन्यावाविशीं परीक्षा घेवप हो प्रकार बरोच प्रचलित आशिल्लो. ह्या प्रकाराक 'अग्निदिव्य' अशें म्हण्टाले. हाका इंग्लीश भाशेंत ordeal अशें म्हण्टात. गुन्यावकाराक कायलींतल्या सळसळायिल्ल्या तेलांत हात बुडोवन भितर उडयल्ली वस्त काडूंक सांगताले, वा तापिल्लो हून लोखणाचो गुळो हातांत घेवंक सांगताले. ह्या दिव्यांत ताच्या हाताक कसलीच नखलामी जालीना तर तो मनीस निर्दोश अशें मानताले.

सुसंस्कृत समाजांत असामान्य बळग्याचें प्रदर्शन वा सत्याची पारख करुन घेवपाची आसल्यार अग्निदिव्य करताले. तांड्य ब्राह्मणांत अग्निदिव्याची एक काणी आसा: दोन ब्राह्मणांभितर म्हान कोण हें सिद्ध करपाखातीर अग्निप्रवेश केलो. दोगांभितरलो वत्स हो ब्राह्मण एकय केंस जळनासतना उज्यांतल्यान सुखरूप भायर आयलो आनी श्रेष्ठ थारलो.

स म्हयने रावणाचे लंकेंत राविल्ल्यान सीतेच्या चारित्र्याविशीं रामान दुबाव घेतलो. सीतेक खूब दूख जालें. तिणे अग्निदिव्य करपाचें थारायलें. लक्ष्मणान तिचेखातीर चिता रचली. चितेक उजो लायतकच सीतेन, देव आनी ब्राह्मण हांकां नमस्कार करून निर्धारान म्हळें– ''हांव चारित्र्यान शुद्ध आसून लेगीत रामचंद्र म्हाका कलंकित समजता. तर हो लोकांसाक्षी अग्नी म्हजी सगळेतरेन राखण करतलो.'' अशें म्हणून तिणे ते भगभगपी चितेंत उडी मारली. त्याचवांगडा ते चितेंतल्यान मूर्तीमान अग्नी सीतेक हाताक धरून भायर घेवन आयलो आनी अशे तरेन ताणें सीता पवित्र आसा हें रामाक पटयलें. बायलांच्या सतीत्वाची परीक्षा घेवपाचो हो प्रकार भारतांत आनी हेरकडेन पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयला.

पूर्विल्ल्या काळांत लोखणाचो फाळ तापोवन तांबडोगुंज करताले आनी जे बायलेच्या चारित्र्याविशीं दुबाव आयला अशे बायलेक तो जिबेन चाटूंक लायताले. जर तिचें तोंड भाजलें तर ती कलंकित आनी भाजलेंना तर ती सती अशें मानताले.

आंध्र प्रदेशांत धर्मराजाचें एक देवूळ आसा. त्या देवळांत पांडव आनी द्रौपदी हांच्यो मूर्ती आसात. लागसारूच सुमार स हात लांब आनी तीन हात रुंद अशें होमखण आसा. एका ठरावीक दिसा थंयचो पुजारी होमखणांतलो इंगळो आंगशांत बांदून तो आंगसो द्रौपदीच्या मूर्तीच्या कमराक बांदता. पूण तो आंगसो मात्तूय लासना अशें म्हण्टात. मागीर पुजारी मूर्तीवेलो एक फुलांचो तुरो त्या होमखणांत उडयता. त्या तुऱ्याक उज्याची मात्तूय झळ लागलीना म्हण्टकच मागीर तोच तुरो हातांत घेवन त्या होमखणांतल्यान चलत वता.

ओरिसांत चैत्र म्हयन्यांत अशेच तरेचे अग्निदिव्य सुवाळे जातात. रोग वा पीडेचें संकश्ट निवारण जावचें हो ताचे फाटलो हेत आसता. उदेंत लंकेंत पांडिरुप्प खेड्यांत हो सुवाळो व्हडा दबाज्यान मनयतात. कर्नाटकांत केसरकोड गांवांतले लोक अग्निदिव्य सुवाळो मनयतात. ते होमखणामुखार विष्णुभूत हे देवतेची थापणूक करतात. मुखेल पुरयत चुडटांनी आपलें आंग सजयता. मंत्र–तंत्र आनी हेर विधी जाल्याउपरांत कांय जाणांचेर अवसर येता. ते होमखणातल्यान चलून वतात. मागीर मुखेल पुरयत धांवत वचून त्या कोळशांचेर न्हिदता. हेर लोक ताका उबारून भायर हाडटात आनी अग्निदेवाची प्रार्थना करतात.

गोंयांत शिरगांवां वैशाख म्हयन्यांत लईराई देवीची जात्रा जाता. हे जात्रेचें खाशेलेपण म्हळ्यार पेटतें होमखण आनी ह्या होमखणांतल्यान चलत वचपी लईराई देवीचे 'धोंड'(भक्त). देवतेच्या गांवकार म्हाजनांतल्यान २२ 'गांवकार चौगुले' वेंचून काडटात. जात्रेच्या दिसांनी ह्या चौगुल्यांक देवतेचो कडक उपास करचो पडटा. चैत्रांतल्या एकादशीसावन चौगुल्यांचो उपास सुरू जाता तो जात्रा सोंपल्याउपरांत म्हळ्यार वैशाख शुध्द नमीदिसा सोंपता. ''हे देवी सायबिणी, म्हज्या मनांतलें कार्य पुराय कर, म्हजेर आयिल्लें संकश्ट पयस कर, म्हाका सुख दी, हांव तुजो धोंड जातां'' अशे तरेची वा हेर कसलीय आंगवण करून लोक देवीचे धोंड जातात. दादले–बायलो तेचपरी भुरग्यांक लेगीत लईराई देवीचे धोंड जावपाक मेळटा. आंगवण करीनासतना धोंड जावपाक मेळना. केल्ले आंगवणीक देवी पावताच असो भक्तांचो भावार्थ आसा.

कमरापसून धोंपरामेरेन घट्ट बांदून न्हेशिल्लें नवें करकरीत पुडवें, वयर बनियान, पांयांत नवीं जोतीं आनी हातांत तरेकवार रंगांचे सुती गोंडे लावन सजयल्ली बेताची बडी अशें दादल्या धोंडाचें न्हेसप आसता. धवेंफुल्ल णववारी कापड, गळ्यांत सोबित शाल, मानेर सोडिल्ले केंस, पांयांत चामड्याचें जोतें आनी हातांत बेताची बडी अशें बायलां धोंडांचें न्हेसप आसता.

धोंड सवळें खूब राखतात. जात्रेदिसा देवळाचे तळयेर वचून न्हातात. 'बोला पुंडलीक वरदा हरी विठ्ठल' असो जप करीत, बेताच्यो बडयो नाचयत, धोंड होमखणाक भोंवताडे काडटात आनी नाचतात. देवळांत कौल जाल्याबगर खंयच्याच धोंडाक उज्यांतल्यान वचपाक मेळना. 'सायबिणी अगीन हून' अशें म्हणत जण एकलो धोंड देवीकडे कौल मागता. मागीर तो कौल ते दाडेपोंदा धरतात. तेन्ना तांकां थंडी खावपाक लागता. एके तरेची शक्त तांच्या आंगांत येता. केन्ना काय उज्यांतल्यान वचूं अशें तांकां जाता. होमखणांतलीं लांकडां पुराय जळून वतकच ते सुवातेर तांबड्यागुंज धगधगीत पेटपी कोळशांची एक व्हड रास तयार जाता. धोंडांक वचपाखातीर राशींतल्यान एक वाट तयार करतात. हातांत बेत घेतिल्ले ते धोंड 'बोला पुंडलीक वरदा हरी विठ्ठल' अशें म्हणत धगधगीत कोळशांतल्यान धांवत वतात.

–कों. वि. सं. मं

पूरक नोंदी : धोंड, लईराई देवी

**अग्नी, गोविंदराव (पंडीत):** (जल्म : २० मे १९१५,

लोलयें-(काणकोण, गोंय).

एक नामनेचो गायक आनी संगीतकार. ताचो जल्म एका गौड सारस्वत ब्राह्मण घराण्यांत जालो. बापूय कीर्तनकार आशिल्ल्यान ताका ल्हानपणांतूच संगीताची गोडी लागली. बापायचें गायन आनी अभिनय हे गुण ताका जल्मताच लाबिल्ले. व्हड गवय जावपाचो हावेस ताणें ल्हानपणांतूच बाळगिल्लो.



पं. गोविंदराव अग्नी

गोंयचो नामनेचो गद्य नट, नटवर्य वसंतराव सावकार हांचे म ध्य स्थी न रघुवीर सावकार हाचे 'रंगबोधेच्छु नाट्य समाज' हे नाटक मंडळींत १९३०त, ताणें प्रवेश मेळयलो. न टा क जाय तें शास्त्रीय संगीताचें मुळावें गिन्यान आनी अभिनयाचें शि क प र घु वी र सावकार हाचेकडल्यान घेतलें. ताका गायनाचें फुडलें शि क प दिवपाची तजवीज रघुवीर सावकार हाणें पाध्येबुवाचो शिष्य नीलकंठबुवा चिखलीकर हाचेकडेन केली. रंगमाचयेर 'संशय कल्लोळ' नाटकांतली साधूची भूमिका करून ताणें आपल्या नटाचे कारकिर्दीक सुरवात केली. उपरांत त्याच नाटकांतल्यो रेवती आनी आश्विनशेट ह्योय भूमिका ताणें केल्यो. ह्याच नाटकांतल्या जलशांतूय गावपाचो मान ताका फाव जाला. हे नाटक कंपनींत आसतनाच, वसंतराव सावकारान, जंय जंय कंपनीचो राबितो आसतालो थंय थंय गोविंदरावाच्यो मैफिली घडोवन हाडल्यो.

फुडें कांय वर्सां विष्णुपंत बोरकर हाचे प्रभात कंपनीतूय ताणें काम केलें. पूण नाटकांत कामां करून आपली गायनांतली उदरगत जावंची ना हें पळोवन गोविंदरावान कंपनी सोडली आनी म्हापशां येवन गायनाचो वर्ग चलोवपाक सुरवात केली. ह्याच काळांत ताचो आवाज फुटलो पूण उपाट रियाज करून ताणें तो परत मेळयलो. घराणेदार गुरुकडल्यान संगीतांतलें उंचेलें शिकप घेवपाची ताची इत्सा वाडत आशिल्ली. देखून तो मुंबय गेलो. थंय वसंतरावाचो भाव गोपीनाथ सावकार हाच्या यत्नांक लागून, आग्रा घराण्याचो खादीम हुसेन खाँ हाच्या हातासकयल गोविंदरावाची फुडल्या शिक्षणाची वेवस्था जाली. खाँ सायबाच्या मोलादीक मार्गदर्शनाखाल ताचो रियाज सुरू जालो. मे १९३८त तो खाँसायबाचो गंडाबंध शागीर्द जालो. उस्ताद खादीम हुसेन खाँ हाची तालीम गोविंदरावाक पुराय एक तप मेळ्ळी. थंय आसतनाच खाँसायब फैय्याज हुसेन खाँ आनी आपल्या गुरुचो भाव उस्ताद अन्वर हुसेन खाँ हांच्याकडल्यानूय गोविंदरावाक गायनाचें मार्गदर्शन मेळ्ळें.

गोड गळो, लयकारी, तालाचें खोल गिन्यान, खाशेले शैलीन ख्याल प्रस्तुत करपाची पद्धत, विस्ताराची तांक ह्या सगळ्या गुणांनी गोविंदराव फिशाल जाल्लो. गुरुकडल्यान मेळयल्ल्या शिक्षणाक आपणाले प्रतिभेची जोड दिवन ताणें हेर गवयांच्योय लकबी आनी शैली आपणायल्यो. उपाट मेहनत करून शास्त्रीय संगीतांतलो एक नामनेचो गायक म्हूण ताणें नामना मेळयली.

कितल्याशाच मैफिलीनी ताणें गायनाचे कार्यक्रम आनी मैफिली सादर केल्यो. १९३८ सावन तो आकाशवाणीचो मान्यवर गावपी जावन आसा. तो एक ऊंच पांवड्यांची संगीत दिग्दर्शक आसून कितल्याशाच संगीत नाटकांचें दिग्दर्शन ताणें केलां. १९४४त, मुंबयत धी गोवा हिन्दु असोसिएनच्या बिल्डींग फंडाखातीर 'उद्याचा संसार' नाटकाखातीर ताणें संगीत दिग्दर्शन केलें. मुंबई मराठी साहित्य संघाच्या कला विभागाखातीरूय ताणें खूब वावर केला. 'धरणीधर' ह्या मामा वरेरकर हाच्या नाटकाचें संगीत दिग्दर्शन ताणें केल्लें. १९५६–१९५९ ह्या काळांत धी गोवा हिन्दु असोसिएशन–मुंबय हे संस्थेन जीं संगीत नाटकां सर्तींत सादर केलीं, तांचें पुराय संगीत–दिग्दर्शन ताणें समर्थपणान केलें. रेडिओ संगीत संमेलनांतल्यान दिल्ली, बडोदा, नागपूर, मद्रास, अमृतसर हांगा ताचे कार्यक्रम जाले. १९६५ वर्सा 'चमकला ध्रुवाचा तारा' ह्या गोपीनाथ सावकार हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या नाटकाचें संगीत दिग्दर्शन गोविंदरावान केलें आनी उपाट लोकप्रियता मेळयली. पं. गोविंदरावाचो जो मुखेल शिष्यवर्ग आसा, तातूंत अंजनीबाई लोलयेंकार, निर्मला गोगटे, कान्होपात्रा, रजनी जोशी, बकुल पंडित (अलकनंदा वाडेकर), प्रसाद सावकार, अरविंद पिळगांवकार हांचो आस्पाव जाता.

१९७२ सावन ताची मुंबय विद्यापीठांत संगीताच्या पदवी संपादन करपी अभ्यासक्रमांत अध्यापक म्हूण नेमणूक जाली. ताचे जायते भोवमान जाले. रंगमाचयेची सातत्यान २५ वर्सां सेवा केल्ल्याखातीर महाराष्ट्र राज्य सरकारान १९८०त, ताचो मानपत्र दिवन सत्कार केलो. गायनाचार्य वझे बुवाच्या नांवान दवरिल्लें अखिल भारतीय मराठी नाट्य परिशदेचें इनाम ताका १९८८त फाव जालें. १६ ऑगस्ट १९८८ ह्या दिसा गोमन्तक मराठी अकादमीन कलावंत भोवमान दिवन ताचो सत्कार केलो.

— रमेश सखाराम बखे

## अग्यारी (आतश बेहेराम):

पारशी धर्मियांच्या उज्याच्या मंदिराचें नांव.

पारशी लोक हे आर्यांचे इराणी शाखेचे वंशज जाल्ल्याकारणान आर्य लोकांवरीच तांकां सूर्य आनी अग्नी (उजो) हांच्याविशीं पूज्यभाव आसा. देवाची प्रार्थना लेगीत ते लोक उज्याम्हऱ्यांत रावन करतात. उजो एकसारको पेटोवन दवरपाखातीर पारशी लोक मंदिरां बांदतात. ह्या उज्याच्या मंदिरांक अग्यारी, आतश बेहेराम, आतश अद्रान, आतश दादगा, आतशखाना अशीं नांवां आसात. तातूंत आतश बेहेराम हें सगळ्यांत व्हड. हातूंतलो उजो सिद्ध करपाक एका वर्सापरस चड काळ मेरेन विधी करचे पडटात. आतश अद्रान सिद्ध करपाक मात चार दीस पुरो जातात. अग्यारी (उज्याघरां) हीं सगळ्या मंदिरांत उण्या पांवड्याचीं मानतात. पूण जंय पारशांची थोडी-भोव वसती आसता, थंय अग्यारी आसताच.

'आतश दादगा' हो पारशांच्या घरांतलो उजो. पारशी जेन्ना घर बदलतात तेन्ना 'आतश दादगा' आपल्या वांगडा घेवन वतात आनी तो केन्नाच पालवचो न्हय हाची जतनाय घेतात. हातूंतल्या उज्याचे पूजेखातीर 'दस्तुर' (पुरोहित) वा गृहस्थी वचूंक शकता. पूण 'आतश आदरॉन' आनी 'आतश बेहेराम' हातूंतल्या उज्याकडेन सेवेक नियुक्त केल्ल्या दस्तुराबगर आनीक कोणाकूच वचपाचो अधिकार ना. अग्यारींतल्या उज्याचें दर्शन हेर धर्मांतल्या लोकांक घेवपाक मेळना. भारतांत आठ आतश बेहेराम आसात. तातूंतले चार मुंबयत आसा. पयलो आतश बेहेराम उदवाड्याक सुमार १७४२ वर्सा बांदलो. दुसरो नवसारी हांगा १७६५ वर्सा बांदलो. तिसरो १७८३ वर्सा दादाभाई नोशीरवानजी हाणें कदमी पारशांखातीर मुंबयत बांदलो. चवथो बाई जाईनीन १८२३ वर्सा सुरतेक शाहनशाही पारशांखातीर बांदलो. सुरत हांगा कदमी पारशांखातीर पेस्तनजी काळाभाई वकील हाणें १८२३ वर्सा पांचवो बांदलो. बमनजी, रस्तमजी आनी अर्देसर हरमजी वाडिया ह्या तीन भावांनी १८३० वर्सा शाहनशाही पारशांखातीर सवो बांदलो. सातवो आनी आठवो अनुक्रमान १८४५ आनी १८९७ वर्सा मुंबयत बांदलो.

आतश बेहेरामचो उजो सिद्ध करपाचो विधी एकदम कठीण आसून तो उजो एक हजार अग्नींपसून तयार करपाचो आसता. पयलीं फुडें दिल्ले सोळा अग्नी वेगवेगळ्या सुवातींतल्यान जमयतात :– प्रेतदहनाचो

अग्नी, रंगारी, राजा, कुंभार, विटो करपी, तांबट, शेट, टांकसाळवालो, लोहार, शिकलगार, भडभुंजा, सोन्याची भाटी, झुजारी, धनगर, पुरोयत हांच्या घरचो आनी मळबांतल्या विजेचो अशे ते एकूण सोळा जातात. हातूंतलो प्रत्येक अग्नि शुद्ध करून घेतात. तो सिद्ध जावपाक एक म्हयनो ते दोन म्हयने इतलो काळ लागता.

तो तयार जातकच चांदीच्या वा काशाच्या पेल्यांत घालून एका फातराच्या पेडाचेर दवरतात. जे कुडींत हो उजो दवरपाचो आसता, ते कुडींत वण्टीर एक तलवार, चोपदाराच्यो दोन बडयो आनी कोनशांनी पितुळच्यो घांटी हुमकळायतात. दीस आनी रात मेळून पांच खेपो अग्नीची प्रार्थना करतात. दरेक वेळेक वा प्रहराक 'गेह' अशें म्हण्टात. उज्याचेर सवळ्या आनी चारित्र्यवान पुरोयतांची सदांच पाळत आसता. उजो एकसारको पेटत आसता. तो पालवलो जाल्यार तें दु:श्चिन्ह समजतात.

आतश बेहेरामलागीं काम करपी पुरोयत तोंडार एक कापड बांदतात, ताका 'पदान' अशें म्हण्टात. भावीक पारशी लोक सदांच अग्निदर्शन घेतात. गर्भकुडींत हुंबऱ्यार दिंबी मोडून प्रार्थना करतात आनी कस्तीचो मंत्र म्हण्टात. आतश बेहेरामविशीं पारशांक उपाट पूज्य भाव आसा.

— कों. वि. सं. मं.

**अघोरपंथ:** सैमाच्या नेमाआड वचून स्वताचे अतींद्रीय शक्तीचेर ताबो मेळोवपापासत, जो पंथ अघोरी साधना करपाक लागलो त्या पंथाक ताच्या असैमीक कर्तुपावेल्यान 'अघोरपंथ' हें नांव पडलें.

अघोरपंथ खंयच्या शेंकड्यांत उत्पन्न जालो हाची म्हायती खंयच्याच ग्रंथांत मेळना. यजुर्वेदाच्या रुद्राध्यायांत 'या ते रूद्र शिवा तनूरघोरा पापकाशिनी' असो एक मंत्र मेळटा. हातूंत शिवाच्या अघोरतनूचो उल्लेख मेळटा. जाका लागून खुद्द शिव हो ह्या पंथाचो मूळ पुरूस अशें मानतात. यजुर्वेद आनी अथर्ववेदांत शिवाच्या अघोर तनूचो उल्लेख आयिल्ल्यान हो पंथ पूर्विल्लो आसा हातूंत कसलोच दुबाव ना, तरी नाथपंथीय संप्रदायांतलो 'गोरखनाथ' हो तांचो आदि- पुरुस आशिल्ल्याचे दाखले मेळटात. ह्या पंथाचो संबंद 'पाशुपत आनी कालामुख' ह्या पंथाकडेन जोडटात. कारण ह्या समाजांत शिवाची उपासना 'अघोरीश्वर' नांवान करतात. भारतांच्या कर्नाटक भागांत हे चड करून दिश्टी पडटात. विलियम कुक हाणें अघोरपंथाचें मूळपीठ गुजरातांतलो अबूचो पर्वत जावन आसा अशें म्हळां. हो पंथ 'अघोर' 'औघड', 'औगर', 'सरभंग', 'घुरे', 'अवधूत' ह्या फांट्यांनी वांटिल्लो आसा.

अस्तंतेचे विद्वान थेवेनो, वार्ड, 'टॉड हांणी ह्या अघोरीपंथाविशीं जायतो अभ्यास करून आपली म्हायती संवसारामुखार हाडल्या. आनंदगिरीच्या 'शांकर दिग्विजयांत' तांचीं वर्णनां आसात. अघोरीपंथाच्या मताचो पयलो प्रचारक 'मोतीनाथ' आसलो. ताचेविशीं चड माहिती मेळना. हाचे फाटल्यान कल्लूसिंह आनी कालूराम हे ह्या पंथाच्या 'औघड' शाखेचे गुरू आनी प्रचारक आशिल्ले. बाबा किनराम हो ह्या पंथाचो नामनेचो गुरू आसून ताणें कालुरामाकडल्यान ह्या पंथाची दीक्षा घेतली. बाबा किनराम हाणें कृमिकुंडाचेर रावन 'विवेकसार', 'गीतावली', 'रामगीता' ह्या ग्रंथांची रचणूक केली. हातूतली पयली 'विवेकसाराची' रचणूक ताणें उज्जैनाक 'शिप्राच्या' देगेर बसून केल्ली. हातूंत सृष्टीची वळख, पिंड–ब्रह्मांड, अनाहतवाद, योगसाधना, निरालंबस्थिती, आत्मविचार, सहजसमाधी आदी विशयांचे उल्लेख मेळटात. हो ग्रंथ ह्या पंथाचो प्रमाण ग्रंथ जावन आसा. बाबा किनारामाच्या म्हणण्याप्रमाण 'सत्यपुरुष' वा 'निरंजन' हो व्यापक-रुपान स्थित आसून ताचें अस्तित्व सहजरुप आसा. ताणें ह्या पंथाच्या प्रचाराखातीर रामगढ, देवल, हरिहरपूर आनी कृमिकुंड ह्या जाग्यांनी चार मठांची थापणूक केली. हांतूंतलो कृमिकुंड हो मठ ह्या पंथाचें ठाणें आसलें. ह्या पंथाचो प्रचार नेपाळ, गुजरात, समरकंद ह्या सुवातांनी जाल्लो. विदेशांत खास करून इराणांत ह्या पॅथाच्या पोरन्या मताचो प्रसार जाल्लो. ह्या पंथाच्या 'घुरे' नावाच्या फांट्यांचो प्रसार जाल्लो वाठार पळोवपाक मेळना. 'सरभंग' हे शाखेचो प्रभाव बिहारांतल्या 'चंपारण' जिल्ह्यांत दिसून येता. ह्या पंथाचे भिनकराम, टेकमनराम, भीखनराम, सदानंदबाबा आनी बालखंडी बाबा हे गुरू जावन गेल्यात. हातूंतल्यो जायत्या गुरूच्यो रचना व्हड प्रमाणांत उपलब्ध आसात. ह्या रचनांवेल्यान तांच्या विचारप्रणालीचेर उजवाड पडटा. जेन्ना ब्रिटीश लोक भारतांत भितर सल्ले, तेन्ना तांची नदर अघोरीपंथाच्या वायट असैमीक कर्तुपाचेर गेली. तांणी ह्या पंथाच्या वायट चलणुकेआड खर कारवाय करून भारतीय कायद्याखाल कडक ख्यास्ती फर्मायल्यो. ताका लागून ह्या पंथांतली 'मनीसहत्त्या', 'नग्न भोंवप' ह्या चालींक आळाबंद बसलो.

ह्या पंथाचें तत्त्वगिन्यान, निर्गुण अद्वैतवादाकडेन खुबशें जुळटा. ताची साधना हठ्योग पद्धतीक धरून आसता. तशेंच ध्यानयोगाक ह्या पंथाक खाशेलें म्हत्व आसता. पंथाच्या गुरुक 'परमहंस' मानून ताची अनुयायी पूजा करतात. साधु-संताच्या समाधीचीय पूजा करपाची चाल ह्या पंथांत आसा. वत–पावसाची, भूक–तानेची पर्वा करीनासतना हातूंतले कांय लोक लययोगाची साधना करतात. तांच्या अश्या साधनेवेळार तांगेले शिष्य वा साधक तांची ल्हान भुरग्यांवरी जतनाय घेतात.

यूआन च्वांग ह्या चिनी भोंवडेकारान दिल्ल्या दाखल्याप्रमाण हे लोक आंगाक गोबोर लायतात. कांय जाण पानां वा झाडाच्यो साली न्हेसतात. कांय जाण वागाची कात आंगाभोंवतणी गुटलायतात. चामुंडा ही ह्या पंथाची देवता. एका काळार हे देवतेक नरबली दिवन ताचें मांस प्रसाद म्हूण खावपाची चाल आसली. जेवणाविशींचे नीतीनेम हो पंथ पाळीना. घोडो सोडून हेर सावदांचें मांस ते खातात. हातूंतली सामकी हळशीकावणी गजाल म्हळ्यार स्वताचें मल-मूत्र ते आपल्या अन्नांत भरसून खातात. ताका ते 'अतिलिया' म्हण्टात. हाका लागून स्वताची शक्त वाडटा असो ह्या पंथीयांचो समज आसा. आतांच्या सुदारिल्ल्या जगांत हे लोक गळ्यांत रुद्राक्षमाळ, सोरपाची हाडांमाळ, स्फटीक माळ, हातांत त्रिशूळ, तकलेर केंसांच्यो जटो अशे अवस्थेंत भोंवतात.

हो पंथ पूर्विल्ल्या काळांत भरभराटीक येवपाचें मुखेल कारण म्हळ्यार भारतांत देव, देवस्की, मंत्रतंत्र, जादू हांका दिल्लें चड म्हत्व. तशेंच शेंकड्यांनी वर्सां चलत आयिल्ली कुड्डी श्रद्धा. वयल्या कारणांखातीर हो पंथ हे भुंयेचेर तरतरुन वाडलो. ब्रिटीशांनी जेन्ना ह्या देशाचो ताबो घेतलो, तेन्ना ह्या पंथांतल्या वायट चलणुकेआड तांणी खर ख्यास्त दिवपाक आरंभ केलो. ताका लागून ह्या पंथांतले कांय नीतीनेम सदांखातीर फाटीं पडले. विसाव्या शेंकड्यांत नवे विचारसरणेक लागून वा शिक्षणीक क्रांतीक लागून ह्या पंथाच्या विचारांचो प्रभाव आमकां भारतांतले बिहार, राजस्थान, मारवाड हे वाठार सोडल्यार हेरकडेन पळोवपाक मेळना. ह्या पंथीयांचें एक खाशेलें आंग म्हळ्यार हेर जातींवांगडा मुसलमानय ह्या पंथाचे वांगडी आसात.

कोंकण आनी गोंय प्रांतांत ह्या पंथाचो निखालस प्रभाव दिसून येना. ह्या वाठारांत शिवाक भजपी समाज वा पंथ व्हड प्रमाणांत आसले तरीय अघोरीपंथाची शिकवण आनी कुरवो आपणावपी समाज जावं वाठार हांगा अस्तित्वांत नात.

- कों. वि. सं. मं.

**अच्युतानंद स्वामी :** योगसाधना करपी एक संतपुरुश. ताचे पयलीचे जिणेविशीं निश्चित माहिती मेळना. तो १९१४ च्या मार्च म्हयन्यांत दनपारच्या तीन वरांचेर कायसुव गांवांत अकस्मात प्रगट जालो अशें म्हण्टात. तो गोडाढेंपीच्या साकाची लंगोटी करून न्हेसतालो. गोरो वर्ण, ऊंच, धिप्पाड असो ताचो आंगलोट आशिल्लो. कायसूव गांवांत स्वामी आयला ही खबर गांवभर रोखडीच पातळ्ळी. शेजारच्या आनी पयसुल्ल्या गांवांतसून कितलेशेच भाविक भक्त ताच्या दर्शनाक येवपाक लागले. कांय भक्तांनी स्वामीखातीर एक पर्णकुटी बांदली. ताचो एक भक्त पणजेचो वेपारी राया कामत घाणेकार हाणें स्वामी खातीर दर्यादिगेर एक मठ बांदलो. स्वामीक मल्याळम, इंग्लीश, हिंदी ह्यो भासो येताल्यो आनी शिवलिलामृत पाठ आशिल्लें अशें म्हण्टात. पूण तो चडसो केन्नाच

उलयनासलो. उलयलोच जाल्यार केन्नाय एकाद्रो अस्पश्ट शब्द उच्चारतालो. तो पयशांक केन्नाच आफडी नासलो. लोकांनी दिल्ल्यो वस्तू तो लोकांकूच प्रसाद म्हूण परत दितालो.

पुर्तुगेज राजवटीच्या त्या काळांत गोंयांत एकदां ग्रीप जोराची साथ आयली. प्रभावी उपचार नाशिल्ल्यान लोक रोखड्या रोखडे मरुंक लागले. ही साथ कायसूव गांवांत पावली. लोक भियेले आनी मठांत आयले. त्यावेळार स्वामी समाधी अवस्थेंत आशिल्लो. समाधींतल्यान उठतकच गांवार आयिल्ल्या संकश्टाची खबर स्वामीक समजली. गंभीर नदरेन ताणें थोडो वेळ मळबाकडेन पळेलें आनी अकस्मात 'हर हर महादेव' अशी गर्जना केली. लोकांक भियोवपाची गरज ना अशें सांगलें. धुनींतली बिबूत घेवन तो दुयेंत लोकांच्या घरा गेलो. जोर आयिल्ल्या जण एकल्या पिडेस्ताक ताणें बिबूत लायली. स्वामीच्या ह्या आध्यात्मिक उपचाराक लागून सगळे पीडेस्त रोगमुक्त जाले आनी त्या दिसासावन गांवांवयलें संकश्ट पयस जालें, अशें म्हण्टात.

फाल्गुन कृष्ण अष्टम (१३ मार्च १९३८) ह्या दिसा रातीच्या ९ वरांचेर स्वामीन श्रीसिद्धेश्वर मंडपांत कूड दवरली. आपल्या निर्वाणाआदीं स्वामीन आपल्या निमण्या संस्कारांविशीं भक्तांक सांगिल्ल्याप्रमाण समाधी सुवाळ्याची तयारी सुरु जाली. दसमी दिसा (१५ मार्च १९३८) सकाळच्या साडेणव वरांचेर स्वामीचे कुडीची श्रीसिद्धेश्वर मंडपाभोंवतणी मिरवणूक काडली. स्वामीच्या ह्या समाधीसुवाळ्याक कितलेशेच भक्त हाजीर आशिल्ले. हेर संतांप्रमाण अच्युतानंद स्वामीन अभंग, होंवयो, भारुडां, बोधपर ग्रंथ बरयले नात. आपलो शिष्यपरिवार चड वाडयलोना, कोणाकूच दीक्षा दिलीना. फकत आपल्या मूक आचरणान गरीबांची सेवा केली. ताचो मठ आयज लेगीत कायसूव गांवांत आसा आनी थंय दर वर्सा उत्सव जातात.

— कों. वि. सं. मं.

**अजंठा ( अजिंठा)** : महाराष्ट्रांतलें पूर्विल्लें विहार आनी वण्टीचित्रां हांचें एक नामनेचें थळ. अजंठा हो गांव लेण्यांपसून ६ किमी. अंतराचेर दोंगरार आशिल्ल्याकारणान हाचो उल्लेख 'अजिंठ्याची लेणी' असो करतात; तरीकूय हांगचे थळावे लोक तांचो उल्लेख 'फर्दापूरचीं लेणी' असो करतात. औरंगाबाद जिल्ह्यांत उत्तरेक सुमार १०८ किमी. अंतराचेर आनी फर्दापूर ह्या गांवापसून दक्षिणेक सुमार ५ किमी. अंतराचेर सह्याद्री पर्वताच्या रांगेंतल्या इंध्याद्री शाखेंत हीं बौद्ध लेणी कोरांतल्यांत.

बौद्ध काळांत हीं लेणीं तांचीं तीर्थस्थानां जाल्लीं. फुडें बौद्ध धर्माच्या न्हासाउपरांत ह्या थळाचें म्हत्व उणें जालें. थंय येवप—वचप कोणूच करीना जालो. ताका लागून थंय रान मातलें आनी तातूंत रानटी सावदांनी वसती केली. इ.स. १८२१ मेरेन ही सुवात लोकांक खबर नाशिल्ली. फुडें सर जेम्स अलेक्झांडर हाणें व्हडा धाडसान रानांत प्रवेश करुन हीं लेणी अकस्मात नामनेक् हाडलीं.

हीं लेणी सनपयलीं पयल्या शतमानासावन ते सातव्या शतमानामेरेनच्या काळांत कोरांतिल्लीं. हातूंतलीं सगळ्यांत पूर्विल्लीं लेणीं पैठणच्या शातकर्णीच्या काळांतली आसून तीं हीनयान पंथांचीं आसात. पयल्या विभागांत चैत्य आसून दुसऱ्यांत बुद्धाच्यो मूर्ती आसात. दोनूय विभागांत रंगयाळीं चित्रां आसात. मनशाचे विध्वंसक वृत्तीक लागून तशेंच कडक आनी विशम हवेचो परिणाम जावन तातूंतलीं चडशीं चित्रां नश्ट जालीं. फकत १३ लेण्यांतलींच चित्रां आयज शाबूत आसात. तातूंत १, २, ९, १०, १२, १६, १७, १९ ह्या क्रमांकांच्या लेण्यांतलीं चित्रां रेखीव आसात. २ आनी १२ क्रमांकांची लेणी विहाराचीं आसात.

अजिंठ्याचे विहार वास्तुकलेखातीर आनी मुर्तीकलेखातीर तशेंच थंयचीं लेणीं चित्रकलेखातीर नामनेक पाविल्लीं. ह्या लेण्यांविशीं दंतकथा आसा ती अशीः

आचार नांवाचो एक अर्हत् आशिल्लो. ताची आवय भायर पडली. तिणे ह्याच देशांत पुनर्जल्म घेतला अशें ताका अंतर्ज्ञानान कळ्ळें. तो तिका सोदीत भोंवपाक लागलो. एकदां एक ल्हान चली ताका भिक्षा वाडपाक आयिल्ली आसतना हीच आपली आवय अशें ताणें पारखिलें. ताका पळोवन तिकाय पानो फुटलो. ल्हान पिरायेंत हो प्रकार घडिल्लो पळोवन लोकांक तें अजाप आनी दुःश्चिन्ह दिसलें. मागीर देवान तिच्या पूर्वजल्माची काणी सांगून लोकांक समजायले. तिका घेवन तो अजिंठ्याक आयलो. थंय ताणें दोंगरांत विहार खोदले आनी तांच्या वण्टीचेर बुद्धचरित्रांतलीं तरेकवार चित्रां रंगोवन घेतलीं.



अजंठ्याचीं शिल्पां

अजिंठ्याची चित्रां काडटना पयलीं वण्टीचेर माती, शेण, भाताचो कुंडो वा ताग आनी तूस हांच्या वस्त्रगाळ मिश्रणाचो लेप सारोवन फाटभूंय तयार केल्या. अजंठाच्या चित्रकारांनी धवो, काळो, हळडुवो, पांचवो, तांबडो, निळो हे रंग वापरल्यात. चित्रविशयाची भायली रेखा गुलाबी, पुडी कोराची वा काळ्या रंगाची आसा. खासा जातीचीं मनशां खाशेल्या रंगानूच पितारल्यांत. सादारण मनशाचो रंग, खास करून भारतीयांचो, काळसर तपकिरी दाखयला. शेतकार, कामगार हांच्यो आकृती तांबश्या रंगान दाखयल्यात. रानवटी लोकांचीं चित्रां पांचव्या रंगान भरल्यांत. एकाद्र्या मनशाच्या चित्रांत भांगराची वा गुलाबी छटा दिसून येता. ती भलायकेची वा आनंदी वृत्तीची सूचक आसूंक जाय.

अजिंठ्याच्या चित्रांचे तीन विभाग आसातः- १) अलंकारिक चित्रां, २) मानवी आकृतींचीं तशातशें रेखांकन आशिल्लीं चित्रां, ३) कथानकाचेर आदारिल्लीं चित्रां. पयल्या विभागांत जनावरां, पक्षी, कल्पित सावजां आनी यक्षगंधर्व, अतिमानवी योनि हांचो आस्पाव आसा. दुसऱ्या विभागांत लोकपाल, बुद्ध आनी बोधिसत्व हांचो आस्पाव आसा. बुद्ध हो लांब कानांक लागून हेर भिक्षूंपरस मात्सो वेगळो दाखयला. बोधिसत्वांच्या आंगार राजभूशणां आसात.

कांय चित्रां समूहरूपांत आसात. तातूंतलें एक कुबेराच्या पंचिक नांवाच्या सेनापतीचें आसा. चित्रांत तो बशिल्लो आसून लागींच ताची बायल हारीती भुरग्याक घेवन बसल्या. बुद्धचित्रां तरेकवार आसनबंधाचीं आसात. तांच्यो मुद्रा विंगड विंगड भाव दाखयतात. बुद्धाचें पुराय चरित्र हांगा चित्रित जाल्लें दिसता. तिसऱ्या विभागांत जातक-कथांचो आस्पाव आसा. सिबिजातकांत बोधिसत्वान एका पारव्याक वाटोवपाखातीर आपलें मांस ससाण्याक कशें दिलें तें दाखयलां. महाजनकजातकांतल्या कथेंतले कांय देखाव आसात. सिंहली राजकन्येची बोधिसत्वाक भुरळ घालपाखातीर चलिल्ली धडपड, दर्याच्या प्रवासांत बोधिसत्वाचें तारूं बुडटा तेन्ना मणिमेखल यक्षान ताका दिल्लो पालव हे देखाव तातूंत आसात. रूरूजातकांत बोधिसत्वाचें हरण जाल्लें दिसता. छद्दंतजातकांत तो हत्तींचो राजा जाता. वेस्संतरजातकांत बोधिसत्वाक देशत्याग करचो पडटा. तो आपलीं भुरगीं ब्राह्मणाक दान दिता. ब्राह्मण त्या भुरग्यांचो

छळ करता आनी मागीर इंद्राचे कृपेन वेस्तंतराक भुरग्यांसयत राजलक्ष्मीची प्राप्ती जाता असो तो देखाव आसा. हांगचीं १६, १७ आनी १९ ह्या क्रमांकांचीं लेणी स्थापत्य आनी चित्रकला ह्या दोनूय नदरेन पळेल्यार भारतांतल्या हेर सगळ्या लेण्यांपरस सगळ्यांत ऊंच पांवड्याचीं आसात अशें बर्जेस हाणें म्हळां.

अस्तंत्या कलाविंदांनी सोळाव्या चित्राची खूब तुस्त केल्या. शोक, बोधिसत्त्वाक देशत्याग करचो पडटा. तो आपलीं भुरगीं ब्राह्मणाक दान दिता. ब्राह्मण त्या भुरग्यांचो छळ करता आनी मागीर इंद्राचे कृपेन वेस्संतराक भुरग्यांसयत राजलक्ष्मीची प्राप्ती जाता असो तो देखाव आसा. हांगाचीं १६, १७ आनी १९ ह्या क्रमांकाचीं लेणी स्थापत्य आनी चित्रकला ह्या दोनूय नदरेन पळेल्यार भारतांतल्या हेर सगळ्या लेण्यांपरस सगळ्यांत ऊंच पांवड्यांचीं आसात अशें बर्जेस हाणें म्हळां.

अस्तंत्या कलाविंदांनी सोळाव्या चित्राची खूब तुस्त केल्या. शोक, कारुण्य आनी स्पश्ट प्रसंगचित्रण ह्या बाबतींत ह्या चित्राक फाटीं घालपी कलाकृती कलेच्या इतिहासांत मेळपाची ना, अशें ग्रीफिथ हाणें म्हळां. ह्या चित्रांत वाकाटककालीन चित्रकला तेंगशेक पाविल्ली दिसता. सोळाव्या लेण्याफुडल्यान सकयल देंवतकच नागराजाचें ल्हानशें लेणें लागता. तातूंत एका नागान केल्ल्या वेंटाळ्याचेर नागराज बसला आनी ताच्या माथ्यार रत्नजडित मुकूट आसा. अजिंठ्याचीं लेणी नाग कारागीरांनी कोरांतल्यांत म्हूण तातूंत अशा नागराजांच्यो प्रतिमा खूबकडेन दिसतात, अशें मिराशी हाणें म्हळां.

सतरावें लेणें विहारपद्धतीचें आसून एकुणिसावें चैत्य पद्धतीचें आसा. सतरावें लेणें ऋषिक देशाच्या राजान भिक्षु संघाखातीर कोरांतिल्लें अशें म्हण्टात. हाचे दावे वटेनच्या वण्टीचेर एका व्हडल्या चक्राचें चित्र आसा. एकुणिसाव्या लेण्याक 'गंधकुटी' अशें म्हण्टात. ताच्या भायर-भितर सोबीत कोरीवकाम आसा.

अजिंठा लेण्यांतले चित्रप्रसंग जरी बुद्धाच्या जीणेचेर आदारीत आसले, तरी तातूंतल्यान तेन्नाच्या समाज जीणेच्या विंगडविंगड आंगांचेर उजवाड पडला. त्या काळांतल्यो वस्तू, वेसभेस, अलंकार, खेळ, मनोरंजनाचीं साधनां, वाद्यां, आयुधां, लांकडाचीं आसनां आनी पात्रां हांच्या विविधतेवयल्यान तेन्नाची समाजीक जीण सुखी आनी समृद्ध आशिल्ली अशें दिसून येता. गुप्त-वाकाटक काळांतल्या भांगरायुगाची साक्ष हाच्यावयल्यान पटता. चित्रांप्रमाणूच शिल्पांय भावपूर्ण आसात. अजंठा लेण्यांत बायलांच्यो अप्रूप चित्राकृती आसात. तांणी घाल्ले तरांतरांचे अलंकार आनी केंसांच्या रचणुकेचे केल्ले तरेकवार प्रकार पळोवन प्रेक्षक भारावन वता. पाख्यांचेर आनी खांब्यांचेर वेलबुट्टीचें अप्रतिम नक्षीकाम चितारलां. अजिंठाची चित्रकला मनशांकूच न्हय तर सुकण्यांक-जनावरांक लेगीत नाजूक अंतःस्कर्ण आसता हाची जाणविकाय करून दिता. ताका लागून हे कलेक अमरपद फाव जालां.

- कों. वि. सं. मं.

**अजमेर:** राजस्थान राज्यांतलें म्हत्वाचें धर्मीक आनी इतिहासीक नगर. लोकसंख्या ३,७५,५९३ (१९८१). क्षेत्रफळ ४५.४० चौ. किमी. अरवली पर्वतफाट्यांत तारागड नांवाचो एक दोंगर आसा. ताच्या मुळसांत अनासागर तळ्याचे देगेर अजमेर शार वसलां. सद्या अजमेर जिल्ह्याचें हें मुखेल ठाणे आसून अस्तंत रेल्वेचें प्रस्थानक आसा. हें शार जयपूरसावन नैऋत्येक १३२ किमी., मुंबयसावन उत्तरेक ९८२ किमी. आनी दिल्लीसावन दक्षिणेक ४४४ किमी. अंतराचेर आसा.

ह्या शाराचें मूळ नांव 'अजयमेरू' आशिल्लें, असो उल्लेख मेळटा. अजयपाल चौहान ह्या राजान ह्या शाराची खूब उदरगत केल्ली देखून ताणेंच तें शार वसयलां अशें सांगतात. तारागड जिल्ह्याचेर एक किल्लो आसा. हो किल्लो इ.स. १४५ त 'अज' नांवाच्या राजान बांदला आनी इ.स. १२ व्या शेंकड्यांत अजय राजान बांदला अशे दोन उल्लेख मेळटात. अजमेर शारा भोंवतणी खूब पोरनें, पडकें दुरीग आसा. चौहान राजपुतांची राजधानी हांगा आशिल्ली. १५५६ त ह्या शाराचेर अकबराची शेक आयली. गुजरात आनी राजपुताना हे वाठार जिखपाखातीर ही सुवात म्हत्वाची आशिल्ल्यान १५५९ वर्सा अकबरान हांगा आपल्या सैन्याचें मुखेल ठाणे वसयलें. ताणें पोरन्या किल्ल्याची सुदारणा केली आनी, आनीक एक गडगंज किल्लो बांदलो. ह्याच काळांत मोइनुद्दीन चिस्ती ह्या मुसलमान साधुच्या दर्ग्याखातीर अजमेर, मुसलमान धर्मियांचें पवित्र थळ जालें. मुसलमान लोक ह्या शाराक दुसरी मक्का मानतात. फुडें ह्या शाराचेर जहांगीर, शहाजहान आनी उपरांतच्या बादशहांनी आपलो शेक चलयलो. शाराचें पावित्र्य राखून दवरूंक ताणी खूब यत्न केलो. मोगलां उपरांत कांय काळ अजमेर शार मराठ्यांच्या शेकातळा उरलें. १८१८ त ब्रिटिशांनी हें शार आपल्या शेकातळा घेतलें. तांचे राजवटींत अजमेर-मारवाड हो भाग चीफ कमिशनरच्या ताब्यांत आशिल्लो. भारताच्या सुटकेउपरांत राजस्थान राज्याची वेगळी निर्मिती जातकच १९५६ त हो भाग राजस्थान राज्यांत विलीन जालो.

अजमेर शारांत रेल्वेचो व्हड कारखानो आसा. सुती, गरम कपड्यांच्यो तशेंच तेलाच्यो गिरणी आसात. भरतकाम, कपडे रंगोवप, लांकडावेलें कोरीवकाम हांच्या खातीर ह्या शाराची खूब नामना आसा. सांभर आनी रामसूर ह्या वाठारांतल्या मिठाची ही व्हड बाजारपेठ.

पब्लिक स्कुलाचे धर्तेचेर राजकुंवरांखातीर १८७० त बांदिल्लें मेयो कॉलेज हांगा आसा. राज्य शिक्षणसंस्था, लश्करी शाळा आनी खुबशीं नामनेची महाविद्यालयां ह्या शारांत आसात. हांगा आशिल्ल्या कॉय ह्या तळ्यावरवीं शाराक उदकापुरवण जाता. हांगा सगळ्या धर्मांचे लोक आसून चड करून हे लोक हिंदी आनी राजस्थानी भास उलयतात.

दर वर्सा अजमेराक ख्वाजा मुइनुद्दीन चुस्ती हांच्या दर्ग्यांत व्हड उरूस भरता. ह्या उरूसा खातीर अजमेर शाराची भारतांत तशेंच भारताभायर बरीच नामना आसा. हांगा आशिल्ली 'अढाई दिनका झोपडा' ही इमारत पळोवपासारकी आसा. ह्या जाग्यार पयलीं संस्कृत पाठशाळा आशिल्ली. ह्या शाळेचे खांबे तशेच दवरून महंमद घोरीच्या फर्मानानुसार ही इमारत अडेज दिसांत बांदली अशें म्हण्टात. हे इमारतीचे कमानीचेर सकयल्यान वयरमेरेन कुराणांतलीं वचनां कोरांतल्यांत. अकबरान बांदिल्ल्या किल्ल्यांत मॅगझिन हॉलांतलो, 'राजपुताना म्युझीयम' पळोवपा सारको आसा. बाराव्या शेंकड्यांत अनाजी चौहान ह्या राजान दोन दोंगुल्ल्यांमदीं बांद घालून बांदिल्लें 'अनासागर' नांवाचें तळें ताच्यालागसारूच आशिल्ली दौलताबाग (आतांची सुभाषबाग), फॉय तळें, अंतडेकी माता मंदिर, दिगंबर जैनाच्या आचार्याचें निर्वाणथळ, विसला तळ्याकडेन आशिल्ली श्वेतांबर जैनाची पवित्र 'दादावाडी' आनी मंदिरां पळोवपासारकीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**अडुळसो:** (मराठी- अडुळसा, अडुसा; हिंदी- अडोसा, अरुशा, बांसा; गुजराती- अरडुसो, अडुळसो; कन्नड- अडुसोगे; संस्कृत- वासक, अटरुष, अमलका; इंग्लीश- मलबार नट ट्री; लॅटीन- ॲधॅटोडा व्हॅसिका; कूळ-ॲकँथेसी). हें वखदी झोंप भारतांतल्या सगळ्या वाठारांनी दिश्टी पडटा. श्रीलंका, मलाया, आग्नेय आशिया आदी वाठारांनीय हें झोंप जाता. उश्ण प्रदेशांत सुमार १,००० मी. उंचायेमेरेनच्या वाठारांत ह्या झोंपाची वाड बरी जावंक शकता. हिमालयाच्या सकयल्या भागांत, तेचपरी गोंय, कोंकण आनी दखखनच्या पठाराचेर शेताच्या कडांनी वा पोरसांच्या वंयेंक हें झोंप लायिल्लें दिश्टी पडटा.

हें ल्हान झाड झोंपांनी जाता. उंचाय सुमार १.२ ते २.४ मी. पानां सादीं, मध्यम आकाराचीं, लांबशीं, वयर गडद पाचवीं आनी पोंदच्यान लेव पाचवीं. ऑगस्ट ते नोव्हेंबर म्हयन्यांत ताळयेचे तेंगशेर तुरे येतात. तातूंत कांय प्रमाणात पाचव्या पाकळ्यांनी धांपिल्लीं धवीं फुलां येतात. ताका लांबशें आनी तोंक आशिल्लें फळ येता.

अडुळशाचो दरेक भाग वखदी. पानां साऱ्याखातीर उपेगी पडटात. तातूंत वासिसाईन हें अल्कलॉइड आनी ॲधॅटोडिक अम्ल आसता. थंडी भरून येवप, खांक येवप, उस्वास घेवपाक त्रास जावप, रक्तपित्त ह्या

दुर्येसांचेर म्हॉव, सूंठ, मिरी आनी पिंपळी (एक वखदी झाड) घालून अडुळशाचो रोस दितात. पानांचों रोस पातळ परसाकडे आनी खडी जावप (परसाकडे सुकून येवप) हाचेर उपायकारक थारता. ह्या झाडाच्या कांडाचो कोळसो बंदुकीची दारू करपाक वापरतात. झाडाचीं मुळां तांदळ्यांत (तांदूळ धुल्लें उदक) उकडून बायलांक जावपी मासिक पाळीविशींच्या (आंगार धवें जावप) विकाराचेर दितात. अडुळशा पसून केल्ली जायतीं आयुर्वेदीक वखदां बाजारांत मेळटात. गोंयां, अडुळशाचीं पानां उकडून ह्या उदकान वायटकाराक न्हाणयतात.

**अडुळसो, काळो:** (मराठी- काळा अडुळसा, रोल, पातेरी; हिंदी- निली निर्गडी, कन्नड- करिनेक्की; संस्कृत- नील निर्गुंडी; लॅटीन-जस्टीशिया जेंडारुस्सा; कूळ- ॲकँथेसी). हें ल्हान झाड मुळचें चीन देशातलें. सद्या भारतांत पोरसांच्या वंयेंनी सोबायेखातीर लायिल्लें दिश्टी पडटा. उंचाय सुमार ०.६-१.२ मी. वास- उग्र, पानां सादी आनी लांब. कांड, ताळ्यो आनी देंठ गडद पिंगशे. फुलां ल्हान आनी फिकट रंगाचीं. नव्या झाडाची लागवड कलमांनी जाता. पानां कोडू आनी उश्ण आसून तीं कामीण आनी हागवणीच्या दुर्येसाचेर दितात. बरींच वर्सांसावन आशिल्ल्या संधिवाताचेर कोमऱ्यांचो काडो उपेगी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**अणकार:** अणकार म्हळ्यार एके भाशेंत उच्चारिल्लें वा बरयिल्लें उतर वा वाक्य वा साहित्य दुसरे भाशेंत बरोवप वा सांगप. मूळ भाशेंतले सगळे गूण मतींत दवरून ताका दुसरे भाशेंतल्यान उक्तावप.

दरेक भाशेक आपआपलें खाशेलें वावुरपाचें वातावरण आसता. निजाच्या भौतिक भोंवतणीतली प्रजेची अर्थीक, समाजीक, सांस्कृतिक, नैतीक मांडावळ जशी थिरावल्ली आसता, आनी जीं साबार मळावयलीं मुल्यां सांठयल्लीं दिसतात. तीं तशाक तशीं दुसरे भाशेंतल्यान स्पश्टपणान दिसूंक जाय. इतिहास आनी सांस्कृतिक परंपरा, लोकांची जीणेकडेन पळोवपाची नदर, चाल चलणूक, आचारविचार, रिति-रिवाज दरेक भाशेच्या उच्चारपाच्या आनी बरोवपाच्या साधनांचो म्हत्वाचो वांटो आसता आनी हे सगळे घटक अणकार करतना दुसरे भाशेंतल्यान पुरायपणान चित्रीत करप म्हत्वाचें थारता. दरेक भाशेची आपली खास वाक्यबांदावळ, व्याकरण, अर्थ आनी हेर बारीकसाणीचे जे मुद्दे आसतात, तांचो खोलायेन अभ्यास केल्यार अणकार करतना चुको उण्यो जातात.

खंयचेय भाशेंत आनी पर्यायान संस्कृतायेंत खंयच्या गजालींक कसले संदर्भ आसतात हें तपासून पळोवप म्हत्वाचें आसता. अणकार केल्लें साहित्य त्या त्या भाशेंतल्या मूळ बरोवपावरी दिसूंक जाय, जाल्यार ताका बरो साहित्यिक गूण लाबता. अणकार करतना मूळ भाशेचीं सगळीं आंगां, अलंकार आनी सोबीतकाय अणकार केल्ले भाशेंतय उक्ताडाक येवप गरजेचें आसता.

- डॉ. ओलिव्हिन्यु गोमिश

**अणवेकार, केदार विनायक:** (जल्म: -१९२०, चिंचणी-सालसेत; मरण: ५ जुलै १९१५).

गोंयचो सुटके झुजारी. बांबोळी-पणजी हांगासर आशिल्ल्या गोंय आकाशवाणीचेर तो मॅकानीक म्हूण काम करतालो. तो आझाद गोमंतक दल ह्या संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. भुमीगत कार्यकर्त्यांक रावपाक आदार दिवप आनी पोर्तुगेज सत्तेआड राजकीय वावर करप असलीं कामां तो करतालो. बाँब घालून गोंयचें आकाशवाणी केंद्र उडोवपाचो बेत ताणें आंखिल्लो. पूण ५ जुलै १९५५ ह्या दिसा बाँब आपशींच फुटलो आनी ताका मरण आयलें. १८ जून १९८४ ह्या दिसा गोंय सरकारान ताचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

–कों. वि. सं. मं.

**अणुबाँब:** प्लुटोनियम (२३९) वा युरेनियम (२३५) ह्या सारक्या समस्थानिकांचें अणुकेंद्र भंजन (फुटप-fission) वा संघटन (एकठावप -fusion) करून ह्या अणुकेंद्रीय विक्रियांवरवीं स्फोटक ऊर्जा (energy) तयार जाता. ह्या स्फोटक ऊर्जेचो सांठो आशिल्ल्या अण्वस्त्राक अणुबाँब अशें म्हण्टात. युरेनियम (२३५), युरेनियम (२३३), प्लुटोनियम (२३९) हातूंतली भंजन-विक्रियांची सांखळी स्वयंचलित आसता; पूण युरेनियम (२३८), थोरियम (२३२) हांचें भंजन भायल्या साधनांनी, म्हळ्यार बळिश्ट न्यूट्रॉनांची एकसारकी पुरवण करून सांबाळचें पडटा. पयल्या प्रकाराक फकत 'भंजन' अशें म्हण्टात आनी दुसऱ्याक 'बहिःपोषित भंजन' अशें म्हण्टात. ह्या दोनूय प्रकारच्या स्फोटांत वस्तुमानाचें (mass) ऊर्जेंत (energy) रुपांतर जाता. आइन्स्टाइन हाणें मांडिल्ल्या $E=mc^2$ [हांगा E=ऊर्जा, m=वस्तुमान, आनी c=उजवाडाचो वेग] समीकरणाचे बसकेचेर अणुस्फोट घडून येतात. पूण ह्या दोनूय प्रकारच्या स्फोटांत, वस्तुमानाचें ऊर्जेंत रुपांतर जावपाच्या वेळार घडून येवपी विक्रिया मात वेगवेगळ्यो आसात. अणुबाँब हो युरेनियम (२३५) वा प्लुटोनियम (२३९) हांच्यासारक्या अणूंच्या न्यूट्रॉनावरवीं घडून येवपी भंजन–विक्रियेचेर आदारित आसा. असले भंजनविक्रियेंत तयार जावपी खंडांचें (fragments) वस्तुमान मूळ द्रव्यापरस उणें आसता आनी कांय वस्तुमानाचें ऊर्जेंत रुपांतर जाता.

२ डिसेंबर १९४२ दिसा शिकागो विद्यापीठांत फेर्मी हाका भंजन–विक्रियेची सांखळी तयार करपाक यश आयलें. फुडें, कोलंबिया न्हंयेवयल्या हॅनफर्ड हांगा प्लुटोनियमाच्या (अणुबाँब तयार करपाखातीर लागपी एका मूलद्रव्याच्या) उत्पादनाखातीर व्हडली यंत्रसामग्री उबारप जालें. अणुबाँब हो प्रखर स्फोटक म्हूण वापरपाचो आशिल्ल्यान, स्फोटाची खरसाण वाडोवपाखातीर चडांत चड ऊर्जा उण्यांत उण्या वेळांत निर्माण करप ही मोख आसता आनी ताका अनुसरून अणुबाँबाची रचणूक करतात. ही गजाल साध्य करपाखातीर भंजन-साखळी- विक्रियेचो वेग शक्य तितलो चड करपाची जतनाय घेवंची पडटा. भंजन-सांखळी-विक्रियेचो वेग हो चड करून विक्रियेचें गुणनपद (multiplication factor) आनी विक्रियेंत वांटो घेवपी न्यूटॉनांचें खासा संभाव्य आयुर्मान ह्या दोन गजालींचेर आदारुन आसता. हातूंतलें विक्रियेचें गुणनपद एकापरस शक्य तितलें चड आसूंक जाय आनी न्यूट्रॉनांचें आयुर्मान शक्य तितलें उणें आसचें. हांतूंतली दुसरी अट साध्य करपाखातीर शुद्ध प्लुटोनियम (२३९) वा युरेनियम (२३५) हाणें संपन्न अशा साद्या युरेनियमाची निर्मिती करची पडटा. तेखातीर युरेनियमाचे दोन समस्थानिक वेगळे करपी 'वायवीय (pneumatic) विसरण' (एकामेकांत भरसुपाची क्रिया थांबोवपी) यंत्रणा उबारची पडटा वा युरेनियम (२३९) चें प्लुटोनियम (२३९) त रुपांतर करपाखातीर अणुकेंद्रीय विक्रियकाची आनी ह्या प्लुटोनियम (२३९) चें रसायनीक पृथक्करण करून तो वेगळो करपाखातीर यंत्रणा उबारची पडटा.

फाव त्या जुस्त खीणाक भंजन–विक्रिया चालू करून ते विक्रियेचें गुणनपद कमाल मर्यादेमेरेन वाडोवप खूब गरजेचें आसा. देखून, अणुबाँबांतल्या घटकद्रव्यांची मांडावळ अशे हुशारकायेन करतात, की जुस्त खीणामेरेन ह्या घटकांत भंजन–विक्रिया चालू जायना. पूण जुस्त खीणाक मात ह्या घटक–द्रव्यांत खूब खर वेगाची भंजन–विक्रिया चालू जाता. कसल्याय भंजनक्षम पदार्थांत ही विक्रिया चालू उरपाखातीर त्या पदार्थाचें आकारमान आनी वस्तुमान एका किमान मर्यादेपरस चड आसचें पडटा. किमान वस्तुमान हें खुद्द पदार्थाचेर–ताच्या संरचनेचेर आनी आकाराचेर आदारून आसता. देखून अणुबाँबच्या इंधनाचें स्वरूप अशें दवरतात की, निमाण्या खीणाक किमान वजनापरस कमी आशिल्ले कुडके खूब थोडया वेळांत एकठांय येवन एकापरस चड गुणनपद आशिल्लें आकारमान प्राप्त जातलें. हें कशें सादोवप हें दर एका संबंधीत निर्मितीच्या निर्मात्याचें गुपीत जावन आसता. किमान वजनापरस कमी आकारमानाचे कुडके जितले नेटान एकठांय हाडूं येत, तितल्या प्रमाणांत स्फोटाची खरसाण वाडटा. तेच्प्रमाण पदार्थांत ज्या प्रमाणांत स्वयंस्फूर्त भंजन–विक्रिया घडून येता त्या प्रमाणांत हो वेग अधिक आसप गरजेचें आसता. एकापरस कमी गुणनपद आशिल्ले स्थितीपसून एकापरस चड

गुणनपद आशिल्ले स्थितीमेरेन वचपाचो काळ कांय दशलक्षांश सेकंदूच आसचो पडटा. हो काळ चड लांबल्यार बाँब निरुपेगी थारता. रसायनीक स्फोटांच्या वरवीं ही विक्रिया घडोवन हाडटात.




(१) युरेनियम (२३८)
(२) कीट उसळावपी भाग
(३) रसायनीक स्फोटक द्रव्यां
(४) प्लुटोनियमाचो पोकळ गुळो

हे आकृतीवेल्यान अणुबाँबच्या विक्रियेच्या स्वरुपाची कल्पना ये ता. अणुबाँबच्या म दे गा त भंजनक्षम (f i s s i o n a b l e) पदार्थाचो कमी घनता आशिल्लो एक पोकळ गोल आसून ताचेभोंवतणी ब त्या रसायनीक स्फोटक द्र व्यां चें आवरण आसा. पोकळ गोलाचें किमान आकारमान आनी वजन भरीव गोलाच्या मानान खूब चड प्रमाणांत आसता. ताका लागून भंजन–विक्रिया चालू जायनासतनाय भरीव गोलाच्या किमान वजनापरस कितलेशेच चड भंजनक्षम पदार्थ एकठांय दवरुं येतात. ह्या रसायनीक स्फोटक द्रव्याच्या आवरणाचेर जायत्या सुवातींनी एकाच वेळार कीट पडपाची वेवस्था केल्ली आसता आनी जुस्त खीणाक रसायनीक द्रव्यांचो स्फोट जाता. ताका लागून तयार जाल्ल्या दाबतरंगाक लागून व्हडल्या व्यासाच्या चड घन आनी भरीव गोलांत रुपांतर जाता. म्हळ्यारूच भंजनक्षम पदार्थ एकापरस कमी गुणनपद आशिल्ले स्थितींतल्यान एकापरस चड गुणनपद आशिल्ले स्थितींत वता. ह्याच वेळार भंजन विक्रिया चालू जाली जाल्यार तिचो वेग नेटान वाडटा. देखीक–गुणनपद २.० आसल्यार आनी न्यूट्रॉनाचें खासा संभाव्य आयुर्मान १० सेकंद आसल्यार एका दशलक्षांश सेकंदाच्या काळांतूच भंजन विक्रियेचो वेग २[१००] इतले पटीन वाडून व्हडलो स्फोट जातलो. इंधन म्हूण वापरील्ल्या पदार्थांत स्वयंस्फूर्त भंजन – विक्रिया फाव त्या प्रमाणांत जायना जाल्यार ह्याच जुस्त खीणाक हेर मार्गांनी न्यूट्रॉनाची पुरवण भंजन–साखळी–विक्रिया चालू करपाखातीर करची पडटा.

स्फोटाची हुनसाण आनी खरसाण वाडोवपाखातीर अणुबाँबाक प्लुटोनियम वा कोबाल्ट हांच्यासारक्या पदार्थांचें जाड आवरण घाल्लें आसता. भंजन–साखळी विक्रियेंत न्यूट्रॉन खूब मोट्या प्रमाणांत तयार जातात. हे न्यूट्रॉन कोबाल्टावांगडा घांस (capture) घेवन ताचेपसून खूब खर किरणोत्सर्गी (radioactive) आनी दीर्घ अर्दे – जिवीत (half - life: किरणोत्सर्गी पदार्थाची मूळची क्रियाशीलता अर्दी जावपाक लागपी काळ) आशिल्लो कोबाल्ट (६०) हो समस्थानिक खूब मोट्या प्रमाणाचेर तयार जाता आनी स्फोटाच्या वाठारांत पातळटा. सैमीक वा निकृष्ट (artificial) युरेनियमाचें धांपणे म्हूण उपेग केल्यार, ह्या युरेनियमाच्या अणूंचेंय भंजन जाता आनी स्फोटापसून चड संहारक शक्त तयार जाता. नाराणाचे बांदावळींत दारुभोंवतणी गुठलायल्ल्या कागदाचो स्फोट घडपाचे क्रियेक मदत जाता, तशीच मदत ह्या धांपण्याची जाता. अणुबाँब स्फोट हो भंजन आशिल्ल्याकारणान तातूंत उत्पन्न जावपी ऊर्जा २० किलोटन TNT इतली आसता. युरेनियम (२३८) वापरिल्ल्या बहिःपोषित भंजन-स्फोटाची ऊर्जा एक मेगॅटन TNT इतलीं आसता, आनी देखून 'अल्प शक्ती' अणुबाँबच्या मानान वेगळो दाखोवपाखातीर हाका 'उच्च शक्ती' स्फोट अशें म्हण्टात. हायड्रोजन बाँब, संघटन बाँब वा ऊश्मीय अणुकेंद्रीय बाँब हे बाँब उच्च शक्तीचेच आसात. 'उच्च शक्ती' स्फोट चड करून संघटन बाँबाचे स्फोट आसतले अशें सुर्वेक मानताले. पूण मार्च १९५४ च्या बिकीनी चाचणी–प्रयोगांत वापरिल्लो 'उच्च शक्ती' बाँब बहिःपोषित भंजन–स्वरुपाचो पूण भंजन–संघटन–भंजन असल्या प्रकारचो स्फोट आशिल्लो अशें स्पश्ट जालां. ह्या दोन बाँबांतल्यो मुळाव्यो विक्रिया वेगळ्यो आशिल्ल्यान तांच्या बांदावळींत आनी स्फोटापसून घडून येवपी परिणामांतूय खूब मोटो फरक आसता.

**हायड्रोजन बाँबः** हायड्रोजन बाँबाचो स्फोट हो हलक्या अणुकेंद्रांच्या जड अणुकेंद्रांत रुपांतरण जावपी संघटनेचेर आदारित आसा. देखीक-हायड्रोजन आनी ट्रिटियम (हायड्रोजनच्या तिप्पट अणुभार आशिल्लो समस्थानिक) हांच्या संयोगाक लागून हीलियमचो अणू तयार जाता. ताचें वस्तुमान हायड्रोजन आनी ट्रिटियम हांच्या वस्तुमाना परस कमी आसता आनी ह्या कमी जाल्ल्या वस्तुमानाचेंच ऊर्जेंत रुपांतर जाता. असल्या विक्रियांत खूब मोठ्या प्रमाणात ऊर्जेची उत्पत्ती जाता. १ ग्रॅम युरेनियम (२३५) हातूंतल्या सगळ्या अणूचें भंजन जालें, जाल्यार सुमार २० अब्ज कॅलरी इतली ऊर्जा तयार जाता.

हलक्या अणुकेंद्रांच्या संघटनेपसूनूय खूब मोट्या प्रमाणाचेर ऊर्जा निर्माण जाता हाचीं कांय उदाहरणां सकयल्या कोश्टकांतू दिल्यांत ह्या कोश्टकांत $_1H^1$ , $_1H^2$ , $_1H^3$ हे हायड्रोजनाचे, $_2He^3$ ,$_2He^4$ हे हीलियमाचे आनी $_3Li^6$ हो लिथियमाचो अशे समस्थानिक दाखयल्यात. हातूंत अणूच्या संज्ञेचे दावे वटेन सकयल अणुक्रमांक आनी उजवेवटेन वटेन वयर ताचो अणुभार बरयला. तशेंच $\beta^+$, $\nu$, $\gamma$ आनी $_0n^1$ हे अनुक्रमान पॉझिट्रॉन, न्युट्रिनो, गॅमा किरण आनी न्यूट्रॉन हांचें उत्सर्जन दाखयतात. दरेका विक्रियेंतलो निमाणो आंकडो विक्रियेंत निर्माण जाल्ली ऊर्जा दाखयता (Mev - दशलक्ष इलेक्ट्रॉन व्होल्ट).

हलक्या अणुकेंद्रांच्या संघटनेचीं कांय उदाहरणां:

| विक्रिया | विक्रियेंत वांटो घेवपी दर ग्रॅम वस्तुमानाफाटल्यान निर्माण जावपी ऊर्जा (अब्ज कॅलरी) |
|---|---|
| 1. $_1H^1 + _1H^1 \rightarrow _1H^2 + B^1 + \nu + 0.42$ M ev. | १७ |
| 2. $_1H^1 + _1H^2 \rightarrow _2He^3 + \gamma + 5.2$ M ev. | ४० |
| 3. $_1H^1 + _1H^3 \rightarrow _2He^4 + \gamma + 19.7$ M ev. | १२० |
| 4. $_1H^2 + _1H^2 \rightarrow _2He^3 + _0n^1 + 3.3$ Mev. | २० |
| 5. $_1H^2 + _1H^2 \rightarrow _1H^1 + _1H^3 + 4.03$ Mev. | २४ |
| 6. $_1H^2 + _1H^3 \rightarrow _2He^4 + _0n^1 + 17.6$ Mev. | ८४ |
| 7. $_1H^3 + _1H^3 \rightarrow _2He^4 + 2\,_0n^1 + 11.32$ Mev. | ४५ |
| 8. $_3Li^6 + _1H^2 \rightarrow _2He^4 + _2He^4 + 22.36$ Mev. | ६७ |

युरेनियम (२३५) चो अणू न्यूट्रॉनांच्या माऱ्यान जसो सहज फुटटा तसोच एका ल्हव अणूचो दुसऱ्या अणूचेर मारो करून ह्यो विक्रिया घडोवन हाडप शक्य ना. कारण अशेतरेन दोन अणुकेंद्रांचें संघटन जांवचेपयलीं त्या दोन अणुकेंद्रांतल्या प्रचंड प्रतिसारक (repulsive) प्रेरणेचेर जैत मेळोवप शक्य नासता. तेखातीर ह्या अणूंक प्रचंड वेग दिवप गरजेचें आसता आनी ही गजाल साध्य करपाखातीर असल्या अणूंचें तापमान कितलेशेंच दशलक्ष अंश सेल्सिअसमेरेन वाडोवचें पडटा. इतलें उच्च तापमान फकत अणुबाँबाच्या स्फोटावेळाच मेळोवप शक्य आसा. देखून, हायड्रोजन बाँबाच्या स्फोटाखातीर पयलीं अणुबाँबचो स्फोट करचो पडटा.

अशा स्फोटाउपरांत प्राप्त जावपी तापमानाक कोष्टकांतली (६) क्रमाकांची विक्रिया सुरू जाता. हे विक्रियेक लागून तयार जावपी ऊर्जेक लागून तापमान आनीकूय वाडटा आनी देखून अनुक्रमान (३), (४) आनी (५) क्रमांकांच्यो विक्रिया घडून येतात आनी तापमान आनीकूय

वाडटा; तशेंच (६) व्या क्रमांकाचे विक्रियेक लागून जावपी ट्रिटियम ($_1H^3$)ची झीजूय भरून येता. ताका लागून क्रमांक (८) सारकील्यो तातूंतल्या तातूंत जड अणुभार आशिल्ल्यो विक्रियाय घडटात. वयल्या विक्रियांत न्यूट्रॉनांची मोट्या प्रमाणांत उत्पत्ती जावन ह्या न्यूट्रॉनांच्या वरवीं हायड्रोजन–बाँबाच्या आवरणाखातीर वापरिल्ल्या युरेनियम (२३८) च्या अणूंत भंजन–विक्रिया घडटात. ताका लागून, आनीकूय उपाट ऊर्जा तयार जाता. हायड्रोजन–बाँबाची संरचना आनी ताचो स्फोट घडोवन हाडपाचें तंत्र हेंय एक ह्या बाँबाच्या निर्मात्याचें गुपीत आसा. हायड्रोजन बाँबाचो स्फोट करून अणुबाँबापरस शेंकड्यांनी पटींनी ऊर्जा तयार करप शक्य आसा.

अणुबाँब निर्माण करपाचो प्रकल्प जे. रॉबर्ट ओपेनहायमर हाच्या फुडारपणाखाल लॉस ॲलॅमॉस (न्यू मेक्सिको) प्रयोगशाळेकडेन सोंपयल्लो. १९४५ त तीन अणुबाँब तयार जाले. पयल्या प्लुटोनियम (२३९) बाँबाचो चाचणी प्रयोग ॲलॅमॉगोर्डो सँड्स (न्यू मेक्सिको) हांगा १६ जुलय १९४५ ह्या दिसा जालो. ६ ऑगस्ट १९४५ ह्या दिसा जपानांतल्या हिरोशिमा शाराचेर युरेनियम (२३५) च्या अणुबाँबाची घुरी धालून अमेरिकेन अणुबाँबाचो वापर झुजांत पयलेच खेप केलो. ह्या स्फोटाक लागून सुमार २०,००० टन ट्रायनायट्रोटोल्यूइन (Trinitrotoluene - TNT) इतली ऊर्जा कांय मायक्रोसेकंदांत (सुमार एक मायक्रोसेकंद = $१०^{-६}$ सेकंद) निर्माण जाली आनी ह्या भिरांकुल स्फोटाक लागून हिरोशिमा शार पुराय लासून नश्ट जालें. ह्या बाँबस्फोटांत ६०,००० लोक आक्ताक सोंपले आनी सुमार ७०,००० लोक गंभीर जखमी जाले. शारांतल्यो सगळ्यो इमारती आनी घरां पुराय नश्ट जालीं. तिसरो प्लुटोनियम (२३९) बाँब अमेरिकेन नागासकी शाराचेर ९ ऑगस्ट १९४५ ह्या दिसा उडयलो. ह्याय विध्वंसक स्फोटाक लागून सुमार ३९,००० लोक आक्ताक मेले आनी हेर २५,००० लोक जखमी जाले. ह्या दोनूय बाँबांचो स्फोट ६५० मी. उंचायेचेर जालो आनी हवेच्या अति उच्च दाबाक लागून आनी स्फोटांत उत्पन्न जाल्ल्या प्रचंड उष्णतेक लागून हीं शारां पुराय नश्ट जालीं.

हाचे उपरांत ऑक्टोबर–नोंव्हेंबर १९५२ त, अमेरिकेन, पॅसिफीक महासागरांतल्या मार्शल जुंव्याचेर 'माइक' नांवाच्या हायड्रोजन बाँबाचो चाचणी स्फोट केलो. १ मार्च १९५४ ह्या दिसा बिकिनी ॲटॉल (मार्शल जुंवो) हाचेर जो स्फोट जालो, ताची शक्ती $१५\times१०^{६}$ टन TNT च्या शक्तीइतली आशिल्ली. मार्च १९५४ त आनीकूय एक उश्मीय अणुकेंद्रीय (thermonuclear) स्फोट करप जालें. ऑगस्ट १९५३ त, रशियेन केल्ल्या ऊश्मीय अणुकेंद्रीय स्फोटांत $Li_6H_2$चो उपेग केल्लो. झुजाउपरांत अमेरिकेन पॅसिफीक महासागरांतल्या नेवेटाक हांगा तशेंच नेवाडा ह्या सुवातींनीं अणुबाँब स्फोटाचे १०–१२ चांचणी प्रयोग केले. इंग्लंड, फ्रांस, रशिया आनी चीन ह्या चारूय राश्ट्रांनी दोनूय प्रकाराचे बाँब तयार करपाक यश मेळयलां. अमेरिकेन १९४५ त, रशियेन १९४९ त, इंग्लंडान १९५२त आनी चीनान १९६४ त पयलो अणुबाँब स्फोट केलो. अमेरिकेन १९५२ त, १० मेगॅटनचो हायड्रोजन बाँबस्फोट केलो जाल्यार रशियेन १९५३ त (१ मेगॅटन), आनी चीनान १९६७ त (५ मेगॅटन) आपलो पयलो हायड्रोजन बाँबस्फोट केलो. हवेंतलो हायड्रोजन बाँबस्फोट अमेरिकेन १९५६ त (१५ मेगॅटन), रशियेन १९५५त (१० मेगॅटन) आनी इंग्लंडान १९५७ त (५ मेगॅटन) केलो.

**अणुकेंद्रीय स्फोटाचे वायट परिणाम:** भंजन विक्रिया आसूं वा संघटन विक्रिया आसूं, असले विक्रियांत रसायनीक विक्रियांच्या मानान खूब मोट्या प्रमाणात ऊर्जा निर्माण जाल्ल्यान अणुबाँब वा हायड्रोजन बाँब उपाट संहारक आसता. अणुकेंद्रीय स्फोटाक लागून मळबांत निर्माण जाल्ल्या खर उश्णतेक लागून सगळ्याक उजो पेट्टा आनी दाब–आघात-तरंग निर्माण जाल्ल्यान इमारती नश्ट जातात. अणुकेंद्रीय विक्रियांच्या वेळा भायर पडिल्ल्या किरणोत्सर्गाक लागून जीवसृश्ट लेगीत नश्ट जाता. त्या वेळार तयार जाल्लीं किरणोत्सर्गी द्रव्यां कांय प्रमाणात स्फोटाच्या वाठारांत पातळटात जाल्यार कांय प्रमाणात जगभर पातळटात. ह्या वेगवेगळ्या परिणामांची खरसाण स्फोटाचो प्रकार, स्फोट जाला त्या वेळची ताची जमनीपसूनची उंचाय, ताची शक्त आनी त्यावेळावयलें हवामान ह्या म्हत्वाच्या गजालींचेर पातयेवन आसता. हायड्रोजन बाँबाच्या स्फोटापसून त्यामानान कमी प्रमाणात किरणोत्सर्गी पदार्थ निर्माण जातात. धर्तरेवेल्या हवेच्या धांपण्यांच्या भायर स्फोट जाल्यार रेडिओतरंगांच्या दळणवळणात आडखळ तयार जाता. स्फोट भुंयेपसून जितल्या चड उंचायेचेर जाता तितली किरणोत्सर्गाची कार्यप्रवणता कमी आसता.

हातूंत सगळ्यांभितर दाब–आघात–तरंग आनी ऊश्णता. तरंग हे चड अपायकारक आसात. ५ मेगॅटन बाँबांच्या जमनीवेल्या स्फोटाक लागून १० किमी. वाठारांतल्यो इमारती नश्ट जातात, ४० किमी. अंतरामेरेनच्या लोकांक जाळ लागता आनी ३२ किमी. अंतरावेल्या वाठारांत कागद, सुकीं लांकडां असल्या पदार्थांक उजो पेट्टा. स्फोटाच्या वेळा भायर पडपी किरणोत्सर्गाक लागून सुमार १५० किमी. मेरेनच्या अंतराचेर धको उप्रासता. हो स्फोट चड उंचायेचेर घडून आयलो जाल्यार किरणोत्सर्गी पावस खूब कमी प्रमाणात घडून येता.

अणुबाँब आनी हायड्रोजन बाँब हांच्या विक्रियांक लागून जावपी ऊर्जा शांततायेखातीर आनी मनशाच्या कल्याणाखातीर उपेगांत हाडपाखातीर शास्त्रज्ञांचे यत्न चालू आसात आनी कांय प्रमाणात तांका यशूय आयलां. अणुबाँब, हायड्रोजन बाँब सारकील्या स्फोटक अण्वस्त्रांवरवीं जावपी जीवहानी आनी वित्त हानी भयांकृत आशिल्ल्यान अशा अण्वस्त्रांचो वापर जावंचो न्हय म्हूण संवसारभर शांततायेचे पुरस्कर्ते वावुरतात.

–कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद: अणुशक्त

**अणुशक्त:** युरेनियमासारक्या व्हडल्या वस्तुमानाच्या अणुकेंद्रांच्या भंजनाक लागून (फुटप-fission) वा ड्यूटेरियम वा ट्रिटियम हांच्यासारक्या ल्हान वस्तुमानाच्या अणुकेंद्रांच्या संघटनाक लागून निर्माण जावपी ऊर्जेक 'अणुशक्त' अशें म्हण्टात. युरेनियमासारक्या कांय अणूंचें न्यूट्रॉनांक लागून असमान पूण तुल्य वस्तुमानाच्या दोन खंडांत भंजन जाता. अशीं दोन खंडां जे विक्रियेंत उत्पन्न जातात, ताका 'द्विभंजन' (fission) म्हण्टात. जेन्ना एकाद्र्या जड अणुचें भंजन जाता, तेन्ना दोन खंडांच्या दरेका बंधनशक्तींची (binding energy) बेरीज ही मूळ अणूच्या बंधनशक्तीपरस चड आसता. भंजनात ह्या दोगांमदल्या फरकाइतली ऊर्जा मुक्त जाता. भंजन विक्रियेंत अणुकेंद्रांतल्या दर कणा फाटल्यान ०.८ Mev (Mev–दशलक्ष इलेक्ट्रॉन व्होल्ट इतले श्रेणीची शक्त निर्माण जाता.

$H^1$(हायड्रोजन), $H^2$(ड्यूटेरियम), $H^3$(ट्रिटियम) हांच्यासारक्या ल्हव अणूंचे $He^4$(हीलियम)च्या रूपांत एकत्रीकरण जाल्यार प्रत्येक कणाची बंधनशक्त १.१ Mev पसून ७.२ Mev मेरेन वाडटा. हाका संघटन–विक्रिया म्हण्टात. संघटन–विक्रियेंत दर कणाक १.५ ते २ Mev आनी कांय संघटन–विक्रियांत दर कणाक ३ Mev मेरेन अणुशक्त निर्माण जाता.

नवे अणू तयार जातना अणुकेंद्रीय बंधनशक्तींत फरक जालो तर वस्तुमानाचें शक्तींत रुपांतर जावन ती भायर पडटा वा तिचें शोषण जाता. अशे तरेन अणुकेंद्रीय विक्रियांत तयार जाल्ल्या शक्तीक अणुशक्त म्हण्टात. पूण ज्या विक्रियांत कणाक खाशेली शक्त प्राप्त जाता, अशाच विक्रियांचो आस्पाव अणुशक्तीच्या उत्पादनांत जाता.

**अणुकेंद्राची थीरताय, वस्तुमानक्षय, बंधनऊर्जा :** खंयच्याय थीर अणुकेंद्राचें वस्तुमान तातूंतल्या मेकळ्या प्रोटॉन आनी न्यूट्रॉन कणांच्या वस्तुमानांच्या बेरजेपरस कमी आसता. हाचें कारण म्हळ्यार ऊर्जा – वस्तुमान – संबंदांप्रमाण बंधन उत्पन्न करपाखातीर वस्तुमानांतलो कांय अंश खर्च जाता. अणुकेंद्राचे वस्तुमान फुडल्या सूत्रान दाखयतात:

$$ {}_{Z}M^{A} = ZM_{p} + (A - Z)\, M_{N} - \frac{E_{B}}{c^{2}} $$
$$ = AM_{N} + Z\,(M_{p} - M_{N}) - \frac{E_{B}}{c^{2}} $$

हांगा Z = अणुक्रमांक, A = वस्तुमानांक (द्रव्यमानांक) = एकूण कणसंख्या, $M^{N}$ = न्यूट्रॉनाचें वस्तुमान, $M^{P}$ = प्रोटॉनाचें वस्तुमान, A-Z = न्यूट्रॉनसंख्या, $E_{B}$ = बंधनऊर्जा, C= उजवाडाचो वेग. वयलें सूत्र अणुकेंद्राच्या वस्तुमानाक लागू पडटा. तातूंत अणुकेंद्राभोंवतणी घुवपी इलेक्ट्रॉनांचें वस्तुमान मेळयल्यार पुराय अणूंचें वस्तुमान मेळटा.

ड्यूटेरॅनाची बंधनशक्ती काडपाक वयल्या सूत्राचो उपेग केल्यार

$E_{B}=M_{H}+M_{N}-M_{D}$=१.००८१४२+१.००८९८२—२.०१४७३५
=०.००२३८९u
=२.२२५ Mev;

(१ u=९३१.४८ Mev)

($M_{H}$=हायड्रोजनाचें वस्तुमान, $M_{D}$=ड्यूटेरॅनाचें वस्तुमान, u=वस्तुमान एकक अशी मेळटा. ड्यूटेरॅन (D)हातूंत दोन कण आसात म्हळ्यार दरेका कणाफाटल्यान सरासरी १.११ Mev इतली बंधनशक्ती येता. जितली कणाची बंधनशक्त चड जितली अणुकेंद्राची थिरताय चड आसता. कण बंधनशक्त ड्यूटेरॅनापसून निकेल—लोहामेरेन (८.८Mev) वाडत वता आनी उपरांत युरेनियमामेरेन (७.६ Mev) ल्हवल्हव उणी जाता.

**अणूंचें भंजन, द्रवबिंदू प्रतिमान :** १९३९ त, भंजनाविशीं कांय गजाली निश्चित जाल्यो, त्यो अश्योः १) युरेनियम आनी थोरियम ह्या दोनूय मूलद्रव्यांचें उच्च ऊर्जायुक्त (~ Mev) न्यूट्रॉनाक लागून भंजन जाता. युरेनियम (२३५) चें मंद (ऊश्मीय) (०.०२५ ev) न्यूट्रॉनाक लागून भंजन जाता. २) मंद न्यूट्रॉनाच्या युरेनियम (२३८) चेर जावपी भडिमाराक लागून १० ते २० ev शक्त आशिल्ल्या न्यूट्रॉनाच्या ग्रासाच्या बाबतींत अनुस्पंदन (resonance) परिणाम दिसून येता. उत्पन्न जावपी युरेनियम (२३९) चें अर्दायुश्य (half-life)सुमार २३ मिनटांचें आसता. ३) भंजनांतल्या खंडांचे दोन वर्ग आसतात. एका वर्गांतल्या खंडांचे वस्तुमानांक ९५u च्या लागसार आसतात. दुसऱ्या वर्गांतलो वस्तुमानांक १४०u च्या लागसार आसता. हलक्या खंडांची शक्त १०० Mev च्या लागसार आनी जड खंडांची सुमार ६० Mev आसता. ४) १ टक्को भंजनांत एका किरणोत्सर्गी खंडांतल्यान १ विलंबित (भंजनाउपरांत बऱ्याच काळान) न्यूट्रॉन भायर पडटा. ५) दरेका भंजनांत सरासरीन २.४ न्यूट्रॉन उत्पन्न जातात.

द्रवबिंदू प्रतिमानाच्या आदारान बोर आनी व्हीलर ह्या शास्त्रज्ञांनी अणुकेंद्रीय भंजनाची उपपत्ती लागू केली. ताचेवयल्यान स्वयंभंजन आनी ऊश्मीय आनी ऊच्च ऊर्जायुक्त न्यूट्रॉनांच्या योगान जावपी भंजन हे आविश्कार शक्य आसात, अशें दिसून आयलें. खंडांमदलो विद्युत् भार-विनियम, तांचें कोनीय वितरण, खंडांची ऊर्जा, भंजनाची उपपत्ती ह्या विशयांवेलें संशोधन आनी अभ्यास चालू आसा.

**भंजन-खंड :** युरेनियम (२३५) च्या भंजन-खंडांचे वस्तुमानांक ८५ ते १०४ आनी १३० ते १४९ अशा दोन वर्गांत आस्पावतात. चडांत चड संभाव्य भंजन ७ टक्केच आसता. खंडांचे वस्तुमानांक सरासरीन ९५ आनी १३९ आसतात. वस्तुमानांक ७२ ते १५८ हांच्यांत वेगवेगळीं ८७ खंडां मेळून सगळे प्रकार जातात. अशीं वेगवेगळीं ४० तरेचीं भंजनां जातात. भंजनांतल्या खंडांत थीर अणूतल्या न्यूट्रॉनसंख्येपरस चड न्यूट्रॉन आसतात. देखून, दरेक खंड निमाणो थीर अणूच्या स्थितीमेरेन जायमेरेन एका किरणोत्सर्गी श्रेणीचो जनक जाता. देखीक :

$$ {}_{92}U^{235} + {}_{0}n^{1} \longrightarrow {}_{92}U^{236} \longrightarrow {}_{54}Xe^{140} + {}_{38}Sr^{94} + 2\,{}_{0}n^{1} + \gamma + 200\text{Mev} $$

हातूंत झेनॉन (१४०) ह्या किरणोत्सर्गी मुलद्रव्यापसून उत्पन्न जावपी श्रेणी अशी:

$$ {}_{54}Xe^{140} \xrightarrow{\beta-} {}_{55}Cs^{140} \xrightarrow{\beta-} {}_{56}Ba^{140} \xrightarrow{\beta-} {}_{57}La^{140} \xrightarrow{\beta-} {}_{58}Ce^{140} $$

**भंजनांत तयार जावपी शक्त :** अनुभवसिद्ध वस्तुमानसूत्राच्या आदारान भंजन-खंडां खबर आसत जाल्यार उत्पन्न जावपी ऊर्जेचें गणित करूं येता. देखीकः $_{42}Mo^{95}$ आनी $_{57}La^{139}$ ही दोन खंडां आसत जाल्यार एकूण तयार जावपी शक्त १९८ Mev जातली. ऊश्मीय न्यूट्रॉनाक लागून युरेनियम (२३५) च्या भंजनांत उत्पन्न जावपी 200 Mev शक्तीचो हिशोब सादारणपणान फुडें दिल्ल्याप्रमाण आसताः

भंजन-खंडांची गतिज शक्त= १६७ Mev, तयार जाल्ल्या न्यूट्रॉन कणांची गतिज शक्त = ५Mev, $\gamma$ किरणांची शक्त = ७ Mev, $\beta$ कणांची शक्त = ५ Mev किरणोत्सर्गी, द्रव्यांतल्यान येवपी $\eta$ किरणांची शक्त = ५ Mev, न्यूट्रिनोंची शक्त = ११ Mev. एकूण शक्त = २०० Mev.

**भंजन-विक्रियेची सांखळीः** चार तरेच्या वेगवेगळ्या विक्रियांत अनुकूल समतोल सादतकच युरेनियम (२३५) च्या भंजनाची सांखळी-विक्रिया करप शक्य जाता : १) शोषण जावपी न्यूट्रॉन संख्येपरस चड न्यूट्रॉन उत्पन्न करपी भंजन—विक्रिया (आकारमानाचेर आदारून) २) भंजन करीनासतना जावपी न्यूट्रॉनाचो ग्रास (आकारमानाचेर आदारून) ३) युरेनियमाखेरीज हेर द्रव्यांत भंजन करीनासतना जावपी न्यूट्रॉनाचें शोषण (आकारमानाचेर आदारून) ४) भंजनक्षम न्यूट्रॉनाचें, ग्रास जायनासतना पृष्ठभागापसून जावपी विमोचन म्हळ्यार निसटून वचप (पृष्ठक्षेत्रफळाचेर आदारून). अमेरिकेंतल्या शिकागो विद्यापीठांत एन्रिको फेर्मी हाणें अणुकेंद्रीय विक्रियकांत २ डिसेंबर १९४२ दिसा पयली सांखळी-विक्रिया साध्य केली आनी ६ ऑगस्ट १९४५ दिसा पयल्या अणुबाँबाचो हिरोशिमाचेर स्फोट जालो. (पळेयातः अणुबाँब)

**अणुशक्तीचे विधायक उपेग :** अणुशक्तीचो शांततायेच्या कार्याखातीर मुखेल करून तीन प्रकारांनी उपेग जाता (१) मोट्या प्रमाणाचेर आनी माफक दरांत वीज निर्मिती करप आनी ती वेगवेगळ्या कार्यांखातीर वापरप. (२) विक्रियकांच्या (अणुभाटयांच्या) वरवीं तरेकवार 'किरणोत्सर्गी समस्थानिक' (Radioactive isotopes) निर्माण करप आनी तांचो वेगवेगळ्या वेव्हारांत आनी संशोधनाखातीर उपेग करप. ३) कालवे खणप, कृत्रिम बंदरां तयार करप, खनिज तेलाची सुलभ निर्मिती हांचेखातीर ल्हान-मोट्या प्रमाणाचेर आणवीय स्फोटांचो उपेग करप.

**अणुशक्त-मंडळां:** अणुशक्तीचें उत्पादन, संशोधन आनी तिचें उपयोजन ह्या वावराखातीर वेगवेगळ्या देशांत स्थायी स्वरूपाचीं मंडळां स्थापन केल्यांत. ह्या मंडळांच्यो कार्यपद्धतीय निश्चित केल्यात. चड

करून अणुशक्ती मंडळाच्या कार्याचेर त्या त्या देशाचें अणुशक्तीविशींचें धोरण तशेंच खूबदां संयुक्त राश्ट्रांचें अणुशक्तीविशींचें आंतरराश्ट्रीय धोरण हांचो प्रभाव दिसून येता. ह्या मंडळाच्या वावराक दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत चालना मेळ्ळी. अणुशक्तीचे निर्मितींत अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां आनी रशिया हे देश खूब फुडें आसात. अमेरिका आनी रशिया हांच्या प्रमाणूच ब्रिटन, फ्रांस, जपान, चीन, भारत, पाकिस्तान ह्या देशांतूय अणुऊर्जा-मंडळां आसात. तेभायर संयुक्त राष्ट्रांच्या 'इंटरनॅशनल अॅटॉमिक एनर्जी एजन्सी' (१९५७) ह्या संघटनेवरवीं अणुशक्तीविशींच्या आंतरराश्ट्रीय सहकार्याच्यो आनी अणुशक्तीच्या विधायक उपेगाच्यो येवजण्यो मांडप जाता. संयुक्त राश्ट्रांच्या अणुशक्तीविशींच्या धोरणाप्रमाण कांय राश्ट्रांनी सहकारी संघटनांची थापणूक केल्या.

**भारतीय अणुशक्त-आयोगः** भारतांत १४ एप्रिल १९४८ दिसा अणुशक्तीविशींचो कायदो जावन १० ऑगस्ट १९४८ दिसा भारताच्या अणुशक्त–आयोगाची थापणूक जाली. ह्या अणुशक्त-आयोगान सुरवातीक सावनूच अण्वस्त्रां तयार करप ना अशें धोरण थारायलें. शेतकाम, जीवविज्ञान, उद्योगधंदे, वैजकी उपचार आनी वीजनिर्मिती हांचे खातीर अणुशक्त वापरपाचें आयोगाचें धोरण आसा. हाचेपयलीं म्हळ्यार १९४५ त टाटा उद्योगसमूह आनी तेन्नाचें मुंबय सरकार हांच्या पालवान 'टाटा इन्स्टिट्यूट ऑफ फंडामेंटल रिसर्च' हे संस्थेची थापणूक जावन अणुशक्तीविशींच्या वावराक चालना मेळ्ळी. १९४८ त नेमिल्ल्या अणुशक्त-आयोगाचो डॉ. होमी जहांगीर भाभा अध्यक्ष आशिल्लो.

अणुशक्त आयोगाच्या वेगवेगळ्या शाखांपैकी भाभा अणुसंशोधन केंद्र ही व्हडली शाखा आसा. अणुशक्त आयोगाच्यो कांय हेर म्हत्वाच्यो शाखा तुर्भे, मुंबय (महाराष्ट्र), अहमदाबाद (गुजरात), हैद्राबाद (आंध्र प्रदेश), नानगल (पंजाब), गोरिबिदनूर, ऊटकमंड आनी गुलमर्ग (कर्नाटक), जादुगुडा (बिहार), चावरा, मानवलकुरा, अलवाये (केरळ) आनी कलकत्ता (बंगाल) हांगा आसात. डॉ. भाभा हाच्या मरणाउपरांत २७ जून १९६६ सावन डॉ. विक्रम साराभाईकडे मंडळाचें अध्यक्षपद आशिल्लें. डॉ. साराभाईच्या मरणाउपरांत जानेवारी १९७२त श्री. सेठ्ना हो अध्यक्ष जालो. ताच्या उपरांत डॉ. राजा रामण्णा भारतीय अणुशक्ती आयोगाचो अध्यक्ष जालो. सद्या डॉ. एम्. आर. श्रीनिवासन् हो आयोगाचो अध्यक्ष आसा.

—कों. वि. सं. मं.

**अतिसारः** नित्यापरस चड फावट आनी पातळ रूपांत परसाकडेन जावप म्हळ्यार अतिसार.

गरिबी आनी अन्नाडपणाक लागून आपलें भलायकेविशीं आनी घर तशेंच घराभोंवतणी नितळसाण राखपाचें गिन्यान नासप हेंच अतिसाराचें मुखेल कारण. उक्तडार संडास करप, कोयर रेबो सारकिल्यो घाणी भोंवतणी सांचून उरप,हाका लागून मुसांची भरपूर प्रमाणांत उत्पत्ती जाता तांकां लागून, आनी पिवपाच्या उदकालागीं घाणयाऱ्यो वस्तू सांचून उरिल्यान उदक इबाडटा. दाट लोकवस्तीच्या वाठारांनी अतिसार चड प्रमाणांत जाता. उश्ण ओल्या हवामानांत अतिसाराचे सुक्ष्मजंतु (microbes) अतिसाराची लागण हाडटात. ही लागण चडशी गिमांत, पावसाचे सुरवातेक आनी पावस सोंपच्या काळांत सुरू जाता.

दूद पिवपी ल्हान भुरग्यांक आनी खास करून अशक्त, मंदबुद्दी, मनोरुग्ण आनी बोर्डिगांत रावपी भुरग्यांमदीं अतिसाराचें प्रमाण चड आसता. भारतांत अतिसाराचें प्रमाण १४% तें २० % लोकांमदीं दिसून येता. विषुववृत्तीय हवामानाच्या वाठारांनी हो रोग बऱ्याच जाणांक जाता.

अतिसार हो एक संसर्गजन्य रोग. ताचीं मुखेल वैजकी कारणां म्हळ्यार बॅक्टेरिया आनी हेर सुक्ष्मजंतूची वाड. बॅक्टेरिया शिगेल्ला, व्ही पॅराहिमोलिटीकस, सालमोनेला, ई. कोलाय, पायोसायनस, कॉलरा, प्रोटीयस ह्या प्रकारचे आसतात, जाल्यार व्हायरस, अॅम्पीलॉबॅक्टर, जियार्डीया, दंत हांकांलागूनयबी अतिसाराची लागण पातळटा.

अतिसार जावपाचीं हेर कारणां म्हळ्यार चुकीचो आहार, क्वाशिअरकर, सीलीयाक डिसीज, सेप्टीसेमिया, नेक्टोटायझींग, एण्टेरो-कोलायटीस, पेलेग्रा (जीवनसत्व ब-१ चो उणाव), पचनरस उणावाचो जल्मदोश हीं जावन आसात.

**लक्षणां:** पर्थून पर्थून सादारण पातळ वा एकदम उदकाभशेन पातळ भायर जावप हें मुखेल लक्षण. ताप, भूक नासप, पोटांत दुखप, ओंकारी येवप अशींयबी लक्षणां आसूं येतात. चड भायर जायत आनी चड फावट ओंकारी आयल्यार रोगी डीहायड्रेशन आनी इलेक्ट्रोलायट इंबेलन्स स्थितींत वचूंक शकता. (आंगातलें उदकाचें प्रमाण सामकें उणें जावप आनी रगतांतलें मीठाचें प्रमाण इबाडप) अशा वेळार काळीज कलकलता, दोळ्यांमुखार काळोख येता, अस्वस्थताय येता, उलोवपाची लेगीत शक्त उरना, हातपांय थंड जातात, दोळे भीतर वतात, कात सुकी पडटा, मुतप उणे वा बंद जाता, रगतदाब देंवता, नाडी मंद वा जलद जाता आनी रोगी बेशुध्द जावं येता वा मरुं येता.

**उपायः** ल्हान भुरग्याक अतिसार जाल्यार ताका आवयचें दूद दिवं येता. पूण २.३ दिसांखातीर बाटलेचें दूद दिवप बंद करचें पडटा. जाण्ट्यांखातीरयबी पथ्य पाळप गरजेचें आसता, फळांचो रोस, ताक, लस्सी, पातळ पेज असलो आहार घेतल्यार बेगीन गुण येता.

उदकांत साखर आनी मीठ घालून तें मिश्रण पिवंक दितात वा इलेक्ट्रोलायट पावडर (ग्लुकोज आशिल्लो क्षार पीठो) उदकांत घालून पिवंक दितात. ओंकारी चड येवन दुंयेत मनशाची परिस्थिती इबाडत जाल्यार ताका हॉस्पिटलांत व्हरचो पडटा. हॉस्पिटलांत Intravenous Fluid गरजेप्रमाण दिवचें पडटा. आंगात रगत उणे जावन अॅनेमियाचीं लक्षणां दिसल्यार रगत दिवचें पडटा. ब आनी क जीवनसत्वांयबी दिवप गरजेचें. कांय वेळार रोगाचीं कारणां पळोवन अॅण्टिबायोटिक्स दिवंची पडटात.

**जतनायः** भुरग्यांक चडांतचड तेंप आवयचें दूद दिवचें. बाटलेचें दूद दिल्यारपसुन नितळसाण राखची. ल्हान भुरग्याक वेळार गोवरची लस दिवंची. उदक तापवन पिवचें. संडासांतल्यान आयल्या उपरांत तशेंच कितेंय खावचेपयलीं हात शाबू लावन धुंवचे. जेवण बरेतरेन शिजोवचें. संडास उक्तडार आसचो न्हय. रेव्या उदक उक्तडार सोडचें न्हय. रावतल्या सुवाते भोंवतणी नितळसाण राखची.

अतिसाराचेर वेळच्यावेळार उपाय जायनाजाल्यार रेनल फेल्युअर (मुत्रपिंडाचेर परिणामजावप), हड्ड्यांत थंडी भरप, कान व्हांवप, कुपोषण असले विकार जांव येता.

- डॉ. आनंद हळर्णकार

संदर्भः 1.Achar, S.T., Text book of Pediatrics; 2. Davidson's Principles and Practice of Medicine; 3. Park, J.K., Textbook of Preventive and Social Medicine.

**अतीतपंथः** संवसाराचो त्याग करून संन्यस्त वृत्तीन परमार्थाचें आचरण करपी बैरागी लोकांचो पंथ. शैव आनी वैष्णव पंथांत अतीतपंथीय लोक मेळटात. वैष्णव अतीत बिहारांत दिसतात. अवधूत आनी अतीत हातूंत लागींचें नातें आसा. अवधूत हो शब्द पूर्विल्लो आसून अतीत नवो आनी थळावो जावन आसा. खऱ्या अर्थान दशनामी गोसावी वा साधू हांकां अतीत ह्या नांवान वळखतात. दशनामांतल्या अर्द्या वर्गाक दंडी म्हणतात. कारण ते दंड वा सोटो वापरतात. अतीत दंड वापरीनात. तांचे खाण, जेवण, कपडे आनी दीक्षाविधी हे दंडी परस वेगळे आसतात. चड करून सगले संन्यासी अतीत आसले तरी तातूंतले काय जाण 'गृहस्थाश्रम' सांबाळून वेपार धंदोय करतात. संन्यस्तअतीत मठांत वा आश्रमांत रावतात. तांची वस्त्रां गेरून रंगयिल्लीं आसतात. ते महादेव, भैरव आनी हनुमान हाका भजतात. तत्वज्ञानांत अव्दैताचो पुरस्कार करतात. शैव अतीत अर्धनग्न रावन जटा आनी खाड वाडयतात. ते मौन पाळटात आनी भीक मागून जियेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**अत्तर:** अत्तर म्हळ्यार भरशिल्ल्या वासाचें तेल. ह्या तेलांत वासाचे वेगवेगळे घटक फाव त्या प्रमाणांत घोळयल्ले आसतात. अत्तरांक जिवाक धादोसकाय दिवपी बरो परमळ येता. पूर्विल्ल्या काळांत अत्तर तयार करचेखातीर वनस्पत आनी जनावरां कडसून मेळपी फकत सैमिक पदार्थ वापरताले. सद्या ह्या पदार्थावांगडा रासायनिक पदार्थयबी वापरतात. अत्तराचो वास तातूंत वापरिल्ल्या घटकांचेर आनी ताच्या प्रमाणाचेर आदारुन आसता. अत्तरां तयार करपाची कला पूर्विल्ल्या काळासावन चिनी, हिंदी, इजिप्त, इस्रायली, कार्याजीनी, अरबी रोमन आनी ग्रीक लोकांक खबर आशिल्ली.

आदल्या काळांत भारतांत आयिल्ल्या भोंवडेकारांनी भारतांत फुलां, फळां, लाकूड, मुळां, दीख आनी तण हांचो वापर करून अत्तर तयार करतात असो उल्लेख केला. अत्तर तयार करपाचो पध्दतशीर उद्योग भारतांत मोगल काळासावन सुरू जालो पूण अस्तंती देशांनी जाल्ल्या तंत्रिक उदरगतीकडेन सर्त करूंक जायना जाल्ल्यान एकुणीसाव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत तो फाटीं पडलो..

जाका अत्तर म्हण पाचारतात तातूंत चंदनाचें तेल आनी खंयच्याय वासाच्या फुलाचें तेल फाव त्या प्रमाणांत भरशिल्लें आसता. सवाय प्रकारच्या अत्तरांनीं चंदनाच्या तेलाच्या बदला 'पॅराफिन्स' (Liquid paraffins) वापरतात.

गुलाब, जाय, चमेली, चंपक, हातो, निशिगंध ह्या सारक्या फुलांचो वापर करून तरेकवार अत्तरां तयार करतात. तशेंच कस्तुरमेरूची कस्तुरी, सिवेट मांजराची सिवेटा (civet), बीवर प्राण्याची कॅस्टोरियम हें द्रव्य वापरुन बी (Castorium) अत्तरां तयार करतात. अत्तरांनी सैमिक पदार्थावांगडा अत्तराच्या प्रतिचें आल्कोल (Perfumery grade Alchohol) आनी सैमिक पदार्थाच्या वासाचे पर्यायी रसायनीक पदार्थ अत्तर तयार करतना वापरतात.

अत्तराचे प्रकार तांच्या वापराचेर पातयेवन आसता. कपड्याचेर मारपाचीं वा आंगार मारपाचीं अत्तरां आल्कोलांत विरगळायल्लीं आसतात. तातूंत सुमार १०% ते २५% वासाचो घटक आसता. उद्येगीक अत्तरां, जी दुसऱ्या पदार्थांक वास दिवंक वापरतात, तातूंत साबू, उजवाती, रंग (Paints) हांचो आस्पाव जाता.

वनस्पतींतल्यान काडिल्ले पदार्थ अत्तरांक वास दितात. जनावरांतल्यान काडिल्ले कांय पदार्थ वास पातळावपाखातीर आनी चड वेळ मेरेन तिगोवपाखातीर बरे पडटात. ह्या पदार्थांक लागून अत्तरांतल्यान वास विरून वचपाची प्रक्रिया सवकास जाता. हे पदार्थ चडशे आल्कोलांत विरगळावन वापरतात. अत्तरां फुलांसारक्या मधुर परमळाचीं तशेंच सैमांत अस्तित्वांत नाशिल्ल्या सुखदिण्या वासाचींयबी आसतात. असल्या प्रकारच्या अत्तराची निर्मणी रसायनशास्त्राचे उदरगतीक लागून शक्य जाल्या.

बरे प्रतिच्या अत्तरांत शंबरांवयर घटक आसतात. दर अत्तराक, तीन प्रकारचो वास आसता. एक- रोखडोच येवपी घमघम, दुसरो- त्या अत्तरांचो खाशेलो वास आनी तिसरो- खूब वेळामेरेन घमघमपी परमळ.

अत्तरां तयार करचेखातीर जायत्यो प्रक्रिया करतात. वनस्पतींतल्यान वासाचीं तेलां वेगवेगळ्या पध्दतीन काडटात. चंदनाचें तेल उर्ध्वपातन (distillation) करून काडटात. फुलांतलीं तेलां काडपाची पध्दत दरेक फुलाचेर आदारून आसता. द्रावक निष्कर्षण (Solvent Extraction) पध्दतीन फुलांतलें वासाचे घटक पेट्रोलियम रसायनांत विरगळावन वेगळे काडटात. कांय फुलांतले वासाचे घटक फुलांचे बाष्प उर्ध्वपातन (steam distillation) करून काडटात. जायांचो नाजूक परमळ तापयल्यार भंगता आनी तो नितळ चरबेंत (Purified animal fat) ओडून घेवन (absorb) काडटात. हे पध्दतीक 'एनफ्लॅवरेज' (enfleurage) पध्दत अशें म्हण्टात. हातूंत फुलांच्यो पाकळ्यो नितळ चरबेच्या थरांत कांय दीस दवरतात. फळांतलें तेल चरबेंत वता. उपरांत तें आल्कोलांत विरगळायतात. संत्रां, मोसंबी ह्या सारक्या फळांच्या सालींतलें तेल पिड्डून (Expression) काडटात.

वनस्पतींतल्यान काडिल्लीं वासाचीं तेलां आनी हेर पदार्थ फाव त्या प्रमाणांत भरसून जाय त्या वासाचें अत्तर तयार करतात. अत्तर पातळ द्रवरुप आसता. ताचो वास तातूंत वापरिल्ल्या घटकांचेर आनी तांच्या प्रमाणाचेर आदारिल्लो आसता. 'आल्कोल' भरसून अत्तर पातळ करतात.

अत्तर उद्योग सद्याक बरोच पातळला. अत्तरां वापरप ही एक प्रतिश्ठेची गजाल जावन गेल्या. अत्तरांचो वापर एक सौंदर्यप्रसाधन म्हण जाता. आयुर्वेदांत कांय अत्तरां वैजकी उपेगाखातीर वापरिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. धर्मीक सुवाळ्यांनीयबी अत्तराचो उपेग करतात. देवळांनी उजवातीच्या रुपान अत्तरां वापरतात. साबू, नाखटां रंगवपाचे रंग, केंसांक लावपाचीं तेलां, कपडे ह्या सारक्या वापराच्या वस्तूंनी अत्तरांचो वापर करतात. लग्नांत अत्तरांचें उदक शिंपडपाची पध्दत आसा.

कांय उद्येगीक उत्पादनाचो वायट वास लिपवपाखातीर अत्तरांचो उपेग जाता, जाल्यार कांय उत्पादनाचो वास वाडवपा खातीर अत्तरां वापरतात. देखीक- पावाचो वास. पाव ज्या कागदांत गुठ्ळायतात त्या कागदाक दिता. प्लॅस्टिक आवरणांक वास येवपा खातीरयबी अत्तराचो वापर करतात.

भारतांत मुंबय, कलकत्ता, दिल्ली, कनौज, अलीगढ आनी म्हैसूर हांगा अत्तर उद्योग व्हड प्रमाणांत चलतात. गोंयांत वनस्पतींपसून तेलां (essential oils) काडपाचो उद्योग चलता. हो उद्योग कुळें आनी वाळपय वाठारांनीं चलता. गोंयच्या औद्योगीक वसाहतींत अत्तरां तयार करपाचो उद्योग चलता. हे भायर वासाचीं तेलां, उजवाती, वासाचे साबू, पोव, कुकूम तयार करपाचेयबी उद्योग चलतात.

- प्रेमानंद फडते

1. Dash, Bhabagrahi, Science Reporter Oct. 1985, Council of Scientific & industrial Research (Publications & information Directorate, New Delhi); 2. Kak, S. N. Science Reporter Sept. '88.

**अत्रे, प्रल्हाद केशव:** (जल्मः १३ ऑगस्ट १८९८, कोढीत सासवड-पुणे; मरणः १३ जून १९६९, मुंबय.) मराठींतलो नामनेचो साहित्यिक, शिक्षणतज्ञ, चित्रपट निर्मातो, दिग्दर्शक, पत्रकार, वक्तो आनी राजकीय फुडारी. मुळावें शिकप सासवड हांगा जालें. उपरांत पुणे, मुंबय आनी लंडन हांगा बी. ए. बी. टी. टी. डी., मेरेन शिकप घेतलें. पुण्यांतल्या कँप एज्युकेशन सोसायटीचे शाळेंत शिक्षकाची नोकरी धरली, आनी कांय वर्सांनी तेच शाळेचो प्राचार्य जालो. 'राजा धनराज गिरजी हायस्कूल' (१९२७) आनी चलयांचें 'आगरकर हायस्कूल' (१९३४) ह्या माध्यमिक शाळांच्या थापणुकेखातीर ताणें मोलादिक वावर केलो. पुणेचे नगरपालिकेचो तो कांय काळ सदस्य आशिल्लो. १९३३ सावन नाटकां-सिनेमांच्या धंद्यांत ताणें प्रवेश केलो. 'अत्रे थिएटर्स' ह्या नाटकां संस्थेची थापणूक करून ताणें खुबशीं नाटकां लोकांमुखार हाडलीं.

ताणें 'मकरंद' आनी 'केशवकुमार' ह्या टोपण नांवांनी कविता बरयल्यो. १९२५ त, ताचो 'झेंडूची फुले' हो विडंबन आनी विनोदी कवितांचो झेलो उजवाडाक आयलो. ह्या कविता-झेल्याचें म्हत्व म्हळ्यार हातूंत रविकिरणमंडळांतले कवी आनी तांची कविता बरोवपाची पध्दत हाचेर विडंबन केल्लें आसा. मराठीतलो हो पयलोच विडंबनात्मक कवितां झेलो जावन आसा. १९३५ त 'गीतगंगा' हो तांचो कविताझेलो उजवाडाक आयलो.

ताच्या नाटकांचेर राम गणेश गडकरी आनी फ्रेंच नाटककार मोल्येर हांचो खूब प्रभाव पडिल्लो दिसता. ताच्या नाटकांत उपरोध, विडंबन, समाजांतले दोश आनी विनोद ह्या गजालींचो खूब वापर केल्लो दिसून येता.

ताणें बरयल्लीं नाटकां अशीं- 'साष्टांग नमस्कार' (१९३३), 'घराबाहेर' (१९३४), 'भ्रमाचा भोपळा' (१९३५), 'लग्नाची बेडी'

(१९३६), 'उद्याचा संसार' (१९३६), 'वंदे भारतम्' (१९३९), 'पाणिग्रहण (१९४६), 'कवडीचुंबक' (१९५१), 'तो मी नव्हेच' (१९६२), 'मी मंत्री झालो' (१९६६), 'डॉक्टर' (१९६७), 'प्रीतिसंगम' (१९६८), 'अशी बायको हवी' (१९६९). हातूंतल्या 'घराबाहेर' आनी 'उद्याचा संसार' ह्या नाटकांचेर इब्सेन ह्या नॉर्वेजियन नाटककाराचो प्रभाव पडिल्लो दिसून येता.

ताणें हेर विशयांचेर केल्ल्या बरपांत ल्हान-व्हड चरित्रां, व्यक्तीदर्शनां, मर्णलेख, प्रवासवर्णनां, खबरेपत्रांतले लेख, साहित्य विशयावयले लेख, भाशणां आनी पाठ्य पुस्तकां हांचो आस्पाव जाता. तांची 'चांगुणा' ही कादंबरी आनी 'बत्ताशी व इतर कथा' हो काणयां-झेलो १९५४ त उजवाडाक आयलो. ह्या भायर महात्मा फुले (१९५८), पंडित जवाहरलाल नेहरू हांचेर बरयल्लें 'सूर्यास्त' (१९६१), 'अत्रे उवाच' (१९३७), 'ललितवाङ्मय' (१९४४), 'हशा आणि टाळ्या (१९५८) ह्या तांच्या पुस्तकांची खूब तोखणाय जाली. ताणें संपादित केल्लो 'अप्रकाशित गडकरी' हो एक म्हत्वाचो ग्रंथ जावन आसा. 'मी कसा झालो' (१९५३) ह्या पुस्तकांत ताणें आपल्या जिणेचें वर्णन केलां. जाल्यार 'कऱ्हेचे पाणी' ह्या नांवान पांच खंड उजवाडाक हाडून (१९६३, ६४, ६५, ६७ आनी १९६८) ताणें आपली आपजीण बरयल्या.

आचार्य प्र. के. अत्रे हाणे आपलो खबरेपत्राचो वेवसाय 'साप्ताहिक नवयुग' (१९४०-१९६९) ह्या सप्तकी पत्रकान सुरू केलो. १९४७-४८ ह्या वर्सा 'जयहिंद' हें सांजवेळ नेमाळें सुरू केलें. उपरांत १९५४ वर्सा 'तुकाराम' हें सप्तकी नेमाळें चलयलें. १९५६ त सुरू केल्ल्या दैनिक मराठा' ह्या दिसाळ्याचो तो अखेरेमेरेन संपादक आशिल्लो.

ताच्या 'धर्मवीर', 'प्रेमवीर', 'ब्रह्मचारी' आनी 'ब्रँडीची बाटली' ह्या चित्रपटांची खूब तोखणाय जाली. ताच्या 'श्यामची आई' ह्या चित्रपटाक १९५४ वर्साचें राष्ट्रपती भांगरा पदक फाव जालें. जाल्यार 'महात्मा फुले' ह्या चित्रपटाक १९५५ वर्साचें रुप्यापदक फाव जालें. ताणे बरयल्ल्यो कांय 'चित्रकथा' १९५८ त उजवाडाक आयल्यो. भा. वि. वरेरकर, श्री. म. माटे, ना. सी. फडके, पु. भा. भावे हांच्या आड ताणे केल्ले साहित्यीक वाद महाराष्ट्रांत खूब गाजले.

नाशिक हांगा १९४२त भरिल्ल्या सत्ताविसाव्या महाराष्ट्र साहित्य मेळाव्याचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. आडतिसावें नाट्यसंमेलन (बेळगांव, १९५५) धावें मराठी पत्रकार-संमेलन (१९५०), तशेंच बडोदा, इंदूर आनी ग्वाल्हेर हांगाच्या प्रादेशिक साहित्यसंमेलनाच्या अध्यक्षपदाचो तो मानकरी आशिल्लो.

- प्रा. सुमंत कनयाळकर

संदर्भः १. मराठी वाङ्मयाचा विवेचक इतिहास, जोशी, प्र. न., प्रसाद प्रकाशन-पुणे, १९७९.

**अथर्ववेद:** चार मुखेल वेदांमदलो एक वेद. ऋग्वेद, यजुर्वेद, सामवेद आनी अथर्ववेद. ह्या क्रमांत अथर्ववेदाची सुवात निमाणी आसा.

अथर्वा आनी अंगिरस ह्या ऋषींनी हो वेद सगळ्यांत पयलीं रचलो म्हूण ताका पयलीं 'अथर्वांगिरस' म्हूण वळखताले. ह्या वेदाक 'ब्रह्मवेद' हें आनीक एक नांव आसा.

अथर्ववेदाक पडिल्ल्या 'नांवांसंबंदी' ज्यो दंतकथा चलतात, त्यो फुडलेतरेन आसात. पयली कथा 'गोपथब्राह्मणांत' आसा.

ब्रह्मदेवान सृश्ट निर्मूपाखातीर खर तप सुरू केलें तेन्ना ताच्या रोमारोमांतल्यान घामाच्यो पावळ्यो जमनीर पडून व्हांवक लागल्यो. तातूंत ब्रह्म्यान आपलें रूप पळेलें आनी ताचे वीर्य स्खलीत जालें. उपरांत वीर्य मेळिल्ल्या उदकाचे दोन वांटे जाले. तातूंतलो एक वांटो शांत, पिवपाक योग्य आनी रूचकर जालो. दुसरो वांटो अयोग्य, अरुचकर आनी अशांत जालो. ह्या दोन वांट्यांतल्यान क्रमान भृगू आनी अंगिरा अशे दोन ऋषी निर्माण जाले. ह्या दोगांकय धा-धा भुरगीं जालीं हांकांच 'अथर्वांगिरस' नांवांचे वीस ऋषी म्हूण वळखतात. ह्या वीस ऋषींनी अथर्ववेदाचें एकेक कांड रचलां. अथर्वांनी 'आथर्वणवेद' तर अंगिरांनी 'आंगिरस वेद' रचलो. पयली धा- धा कांडाचे आशिल्ले हे वेद एकठांय केले आनी तांकां अथर्वांगिरस अशें म्हणूक लागले. कांय तेंपान ताका फकत 'अथर्ववेद' म्हूण वळखूंक लागले.

अथर्ववेदाक 'ब्रम्हवेद' फुडल्या कारणांखातीर म्हणूक लागले.

अथर्ववेदाक वेदत्रयीत (ऋग्, यजु आनी साम) सुवात नाशिल्ली. यज्ञाक उपेगी पडपी वांटो खूबच उणे आनी अभिचारिक कर्मां व्हड जाल्ल्यान, अथर्ववेदाक खुबूच कमी लेखपाक लागले. धर्मसूत्रांत आनी स्मृतिग्रंथांत ताचो उल्लेख अनादरान केला. पूण उपरान्त यज्ञकर्मांत हाका सुवात दिवन ताचें म्हत्व वाडोवपाक आयलें. यज्ञांत चार ऋत्विज आसतात. होता, अध्वर्यु, उद्गाता आनी ब्रह्मा हातूंत होता ऋग्वेदी, अध्वर्यु यजुर्वेदी आनी उद्गाता सामवेदी. चवथ्या ऋत्विज ब्रह्माक वेद नासलो. तेपासत 'अथर्वांगिरोभिर्ब्रह्मत्वम्' (ऐतरेय ब्राह्मण- ५.३३) असो नेम थारावन ब्रम्ह्याचें काम अथर्ववेदी ब्राह्मणाकडेन सोंपयलें. हाचेवेल्यान अथर्ववेदाक 'ब्रम्हवेद' म्हणूक लागले. वेदान्तांत उदरगतीक पाविल्ल्या ब्रह्मवेदाचें मूळ अथर्ववेदांत सांपडटा. अशे तरेन वेदत्रयीत सुवात जोडून वेद चार जाले- 'चत्वारो वा इमे वेदा ऋग्वेदो यजुर्वेदः सामवेदः ब्रह्मवेदः।' (गोपथ ब्राह्मण-२.१६).

महामुनी पतंजलीच्या महाभाष्यावेल्यान अथर्ववेदाचे णव फांटे (नवधा आथर्वण वेदः) आसात म्हणपाचें स्पश्ट जाता. तांची नांवां अशी आसातः १. पैप्पलाद, २. तौदायन, ३. मौदायन, ४. शौनक, ५. जाजल, ६. जलद, ७. ब्रह्मवेद, ८. देवदर्श आनी चारणवैद्य (कांय जाणाच्या मतान ह्या नांवांत फरक आसा). हातूंतले फकत दोनूच फांटे मेळटातः १. पैप्पलाद आनी २. शौनक.

**पैप्पलादः** हो फांटो पिप्पलाद ऋषिच्या नांवांन नांवाजल्लो आसा. हो ऋषि मोठो आध्यात्मिक आशिल्लो. हागेल्या शाखेची संहिता २० कांडांची आसा.

**शौनकः** ह्या फांट्याची बारिकसाणेन वांटणी केल्या. ह्या शाखेच्या संहितेंत २० कांडां, ३४ प्रपाठक, १११ अनुवाक, ७७३ वर्ग, ७६० सूक्तां, ६००० मंत्र आनी ७३,८२६ उतरां आसतात. कांय जाण सूक्तसंख्या ७३१ मानतात.

ऋग्वेदावरी मंडळरचना, देवतांचो क्रम, ऋषिचो निर्देश बी गजाली अथर्ववेदांत दिसून येनात. पयल्यासावन ५ व्या कांडामेरेनच्या सूक्तांत ४ ते ८ मंत्र आसात. ६ व्या कांडांत चडशीं सूक्तां एक वा दोन मंत्रांचीं आसात. ८ ते १२ कांडांतल्या सूक्तांत ९ मेरेन मंत्र आसात. १५ आनी १६ हीं दोन कांडां गद्यांत रचिल्लीं आसात. निमण्या दोन कांडांत आशिल्ल्या मंत्रांक खिल सूक्तां म्हण्टात. निमाण्या कांडांची मंत्रसंख्या सादारणपणान १००० आसा.

अथर्ववेदांत विंगडविंगड विशय आसपावतात. पयलीं तेरा कांडां जारण, मारण, स्तंभन, रोग-निवारण बी मंत्रांनी भरिल्लीं आसात. १४ व्या कांडांत विवाहमंत्र आसात. १३ ते १८ कांडांत विशय सादारणपणान एकूच आसा.

अथर्ववेदांत विशयाचे नदरेन सूक्तांची वांटणी अशी आसाः– आयुर्वेदासंबंदान १४४ सूक्तां, राजधर्मासंबंदान २१५ सूक्तां, समाजवेवस्थेसंबंदान ७५ सूक्तां, अध्यात्मासंबंदान ८३ सूक्तां आनी उरिल्ल्या विंगडविंगड विशयासंबंदान २१३ सूक्तां आसात.

पूर्विल्ल्या मनीसजातीच्यो विंगडविंगड हालचाली क्रिया, अनुष्ठानां, कृत्रिम, करणी बी सगळ्या विशयांचेर बारीक वर्णन ह्या वेदांत मेळटा. समाजशास्त्राचो अभ्यास करतल्याक अथर्ववेदाचो जायतो आदार मेळूंक शकता. वैजकी शास्त्रांतली उदरगत, राष्ट्राविशींचे विचार, वेव्हार, दादलो-बायलो संबंद, देवघेव, लोकभ्रम, अध्यात्म अश्या खूबश्या विशयांची भासाभास हातूंत केल्ली आसा.

अथर्ववेदांत मनशाचे कुडीच्या सगळ्या आंगाचें बारीक वर्णन आयलां. ज्वर, गंडमाळा, कोड, बारीक जोर आनी हेर रोगांचे उल्लेख आयल्यात.

तांची चिकित्साय सांगल्या. भूत, प्रेत, राकेस, हांचे बाधेन हे रोग जातात अशें अथर्ववेद मानता. ह्या बाधाचो नाश करपाचे मंत्र हातूंत आसात. दीर्घायुष्य जगपाची मनशाची इत्सा तातूंत परगटायल्या.

पश्येम शरदः शतम्, जीवेम शरदः शतम।
बुध्येम शरदः शतम्, रोहेम शरदः शतम

(१९.६७)

अर्थः आमी शंबर वर्सां जिवे रावन पळोवया. गिन्यान मेळोवया, व्हड जावंया.

दीर्घायुष्याक लागून हाताक राखणेचो दोरो वा मणि बांदताले. खास विकारांत पृश्निपणी आघाडो, पिंपळी असल्या वनस्पतींचो उपेग करपाक सांगला. राष्ट्रधर्माचें बारिकसाणेन केल्लें वर्णन हें अथर्ववेदाचें दुसरें म्हत्वाचें आंग जावन आसा. नितळ लोकशाय कशी आसची हाजो निर्देश तातूंत सांपडटा.

'त्वा, विशो वृणता राज्याय, (३.४.२. अथर्ववेद- तुका प्रजा राज्याखातीर वरूं म्हळ्यार तुका लोक राजा म्हूण वेंचून दिवं). ह्या मंत्रांत राजाक प्रजा कशी वेंचून दिताली हें दाखोवन दिता. अथर्ववेदांत राजाचें वेंचप, तागेले अधिकार, तांक, कर्तव्य ह्या सगळ्यांचे स्पश्ट उल्लेख आसात.

समाजवेवस्थेविशीं बरे विचार, कुटुंबांतल्या लोकांचें वागप, घरां बांदप, शेत करप, अन्न धान्याचें उत्पन्न वाडोवपाच्या गजालींचें वर्णन, अथर्ववेदांत आयलां. घोव-बायलासंबंदान बरीं सूक्तां आयल्यांत. मनशाची जीण सोबीत जावपाक घटमूट कुडीवांगडा दादल्या बायलांचीय प्रेमभावना गरजेची आसा अशें अथर्ववेद मानता.

ह्या वेदांत अध्यात्माची खूब भासाभास जाल्या. तातूंतल्यान उपनिषदांची तत्वप्रणाली सुरू जाली. बहुदैवतवादाचो निरास जावन एकेश्वरवादाची थापणूक हातूंत जाल्ली. ब्रह्म, आत्मो, जीव, मर्ण, सर्ग ह्यो कल्पना हांगा स्पश्ट दिसतात. जीव, ईश्वर आनी प्रकृति अशे तीन पदार्थ अथर्ववेदांत नित्य मानल्यात. जीव परमानंदस्वरूप मोक्षाक पावता असो जीवाक ईश्वरालो दिश्टावो जालो अशी वेदाची धारणा आसा.

अथर्ववेदांत जारण, मारण हे विशय आयल्यात. कृत्रिम करणी करपी लोक आपल्या आंगांतली शक्त दुसऱ्याचेर वापरताले. तिका 'कृत्या' म्हणटात. हे कृत्येक विरोध करपी मंत्र अथर्ववेदांत आसात. त्या काळार लोकांक वायट सपनांचें भंय दिसतालें. अशीं सपनां मर्णाविशींची सुचोवणी मानताले. हीं सपनां पडचीं न्हय म्हूण अथर्ववेदाचें १६ वें कांड म्हणपाची रीत आसली. पिशाच्च, राकेस हांचो त्रास जावचो न्हय म्हूण ह्या वेदांतल्या दुसऱ्या कांडांतल्या दुसऱ्या सुक्ताची आवृत्यो करताले. आपली राखण जावंची म्हूण तावज बांदपाची पध्दत आसली. शेतवड, जनावरां, भूंय हांचेसंबंदी लोकांक बरोच मोग आसलो. आपले भूंयेबद्दल तांकां खूब अभिमान आशिल्लो.

उपस्थाते अनमीवा अयक्ष्मा
अस्मभ्यं सन्तु पृथिवि प्रसूताः।
दीर्घं न आयुः प्रतिबुध्यमाना
वयं तुभ्यं बलिहृतः स्याम॥

अर्थः हे भूंये, तुगेल्या प्रदेशांत रोग, क्षय आनी भंय नासूं दी. आमकां व्हड आयुष्य मेळूं. आमी सदांच सावध रावतले. तुजी राखण करपाक आमी आमचो बळी दितले.

- डॉ. अनंत राम भट

**अदमास पत्रकः** (पळेयात अर्थसंकल्प)

**अदितिः** अ+दिति= अदिति- जिका मर्यादा ना अशी वैदिक देवता. अदिति ह्या उतराचो अर्थ सगळ्या बंधनासावन मुक्त असो जाता. तिका पुराय धर्तरेची आवय मानल्या. अदिति म्हळ्यार मुक्ततायेची कुरु. पातकाच्या रिणांतल्यान मेकळे जावपाखातीर अदितिच्या संपर्कांत येवप गरजेचें आसा अशें ऋग्वेद (१.१६२.२२) म्हणटा. तातूंत पातकांतल्यान मुक्त करचे पासत तिची प्रार्थनाय केल्या. कांय कडेन तिका 'गो' म्हळ्यार 'गाय' ह्या उतराचो पर्याय मानला. ऋग्वेदांत (८.१०१.१५) 'मां गां अनागां अदिति वधिष्ठ' म्हळ्यार गायच्या रुपान रावतल्या अदितिक मारु नाकात अशें म्हळां. पूर्विल्ल्या काळांत, अदितिक म्हळ्यार मातृदेवी वा गायक भजपाखातीर, तिच्या वेगवेगळ्या रूपांतल्यो मूर्ती सिंधू न्हंय ते भुमध्यसागर मेरेन तयार केल्ल्यो.

वेदांत अदितिची, तुस्त तोखणाय करपी सुमार वीस मंत्र बरयिल्ले वाचूंक मेळटात. पूण तिचें स्वरूप स्पश्ट जायना. ऋग्वेद एके वटेन तिका दक्ष राजाली चली म्हणटा तर दुसरेखटेन दक्ष हो तिचो पूतय म्हणटा. (ऋग्वेद १०.७२.४). तिच्या आठ पुतांचो उल्लेख परतो परतो येता. तांची नांवां अशीं- मित्र, वरुण, धाता, अर्यमा, अंश, भग, विवस्वान् आनी आदित्य. तिका आपल्यागेर फकत सात पूत जावंचे अशी इत्सा आसली. आठव्या फावटीचो गर्भ तिणें आपूण जावन फोडलो. तो फुडें 'मार्तांड' ह्या नांवान नामनेक पावलो. उरिल्ल्या सात पुतांक घेवन ती देवालागीं गेली आनी आठव्याक तिणे मळबांतल्यान धुकलून उडयलो (ऋग्वेद. १०.७२.८) हे आठ्य पूत फुडें 'अष्टवसु' म्हूण नामनेक पावले. तैत्तिरीय संहितेंत तिका 'विष्णु'ची बायल म्हळ्या.

ऋग्वेदांत तिचेर एकय सूक्त ना. पूण प्रसंगाप्रमाण तिचे उल्लेख येतात. ऋग्वेदांत तिची फांतोडेर, दनपरां, सांजवेळा याद करची अशें म्हळां. ऋग्वैदिक ऋषी अदितिक वेळाकाळाप्रमाण संकश्टाच्या प्रसंगार शरण वचून आपली राखण करची म्हूण विनयताले (ऋग्वेद. १०.१००.१.९४.१५). अदितिक, आदित्याची म्हळ्यार सूर्याची आवय अशें मानून तिचेकडेन उजवाडाची मागणी केल्ली कांयकडेन दिसता. ऋग्वेदांत (७.८२) तिच्या तेजीश्ट उजवाडाची तुस्त केल्या. उषा वा सांवळेक अदितिचें तोंड म्हळां. नरकासूरान तिचीं कुंडलां व्हेल्लीं. श्रीकृष्णान नरकासूराक मारून कुंडलां परतीं तिका हाडून दिल्ली अशेंय उल्लेख मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**अदीक म्हयनोः** चांद्रवर्स आनी सौरवर्स हांचो मेळ घडोवपाखातीर, सरासरी बत्तीस वा तेत्तीस चंद्रमासा (चंद्राच्या भ्रमणान पुराय जाल्लो म्हयनो) उपरांत चांद्रवर्सांत जो एक म्हयनो चड धरचो पडटा ताका अदीक म्हयनो म्हणटात.

अदीक म्हयन्याक पुरुषोत्तम म्हयनो, धोंड म्हयनो आनी मळ म्हयनो अशेंय म्हणटात. कोंकणीत ताका अदीक म्हयनो वा चडीत म्हयनो म्हणटात. वाजसनेय संहिता (७,– ३०,२२,३०) हातूंत ह्या म्हयन्याक दोन नांवांनी वळखतात. पयलें अंहसस्पति आनी दुसरें मलिम्लुच. हातूंतल्या मलिम्लुच ह्या शब्दावेल्यान मलमास हो शब्द आयला आसुंये अशें जाणकारांचें मत आसा. सूर्य आनी चंद्र हांच्या गतिभ्रमणान संवत्सरांचो हिशोब जाता. चंद्राच्या कलांची पूर्णवृध्दी पुनवेक जाता. ते पुनवेचे रातीपसून ते परतून पूर्णवृध्दि जाल्लो चंद्र दिसमेरेन मदीं जे तीस दीस वतात तेन्ना एक म्हयनो जाता. हो म्हयनो जेन्ना चंद्राक लागून समजतात तेन्ना ताका चंद्रमास म्हणटात. हे चंद्रमासाचे दीस तिथीप्रमाण जरी ३० धल्ले तरी खरे ते २९.५ (साडे एकोणतीस) जातात. ह्या हिशेबान २९.५×१२=३५४, हे चंद्रमासाचे दीस जातात.

सूर्याच्या गतिभ्रमणान मेजतात ताका सौर वा सूर्य म्हयनो म्हणटात. सूर्याक एके राशीपसून दुसरे राशींत वचपाक तीस वा केन्नाय एकतीस दीस लागतात. ह्या काळाक सौरमास म्हणटात. अशे हे तीस आनी एकतीस दीस धरून भारतीय सौरवर्स मानलां. त्या प्रमाण वर्साक ३६५ दीस जातात. (पारसी वर्स ३६० दिसाचें). सूर्य एके राशींतल्यान दुसरे राशींत वता ताका संक्रमण वा संक्रांत म्हणटात. अशी दर म्हयन्यांक संक्रांत येता. ज्या म्हयन्याक अशी संक्रांत येना तो म्हयनो अदीक म्हयनो अशें समजतात. चैत्रांत मेष सक्रांत, वैशाखांत वृषभ हे प्रमाण १४ जानेवारीक मकर राशीक सूर्य येता तेन्ना मकर संक्रांत (हळदीकुकूम) जाता.

चंद्रवर्साचे ३५४ दीस आनी सूर्यवर्साचे ३६५ दीस, हातूंत जो ११ दिसांचो फरक येता तो भरून काडपाक अदीक म्हयनो जाय पडटा. सादारसणान ३२ म्हयने, सोळादीस आनी चार घटका जाल्या उपरांत दर तिसरे वर्सा अदीक म्हयनो येता. हो अदीक म्हयनो खंयचो धरचो हाचेर ज्योतिशशास्त्रांतल्या ज्योतिर्मयूख ह्या पुस्तकांत सादारणपणान हें गणित मांडून सांगलां.

'शोकोर्कघ्नोंक भूतष्टो क्षालपो भूनो दशाल्पकः।
द्यून श्चैत्रात्स एकाधिमासो न्यैवान्यथाभवेत॥'

शालिवाहन शकाक बारांनी गुणचें, उपरांत ताका १९ नी भागचें, निमाणी बाकी जर णव वा णवाभितर आसत तर त्या वर्सा अदीक म्हयनो आसा म्हूण समजुचें. खंयचो अदीक म्हयनो हें पळोवपाक भागाकाराची बाकी पांच वा पांचांपरस चड आसल्यार तातुंतल्यान दोन वजा करचे आनी बाकी पांचांभितर आसल्यार एक वजा करचो. अशी वजा करून उरिल्लो आंकडो १ आसल्यार पयलो चैत्र म्हयनो अदीक म्हयनो जाता. आंकडो २ आसल्यार दुसरो म्हयनो अदीक म्हयनो जाता. हातूंत माघ म्हयनो मात केन्नाच अदीक म्हयनो जायना. खंयचो अदीक म्हयनो धरचो हाचेर आनीकय सुक्ष्म गणित जोतिशशास्त्रांत आसा. तातूंत म्हयन्यांत मात्सो फरक पडटा. सूर्याच्या भ्रमणाक लागून फुडले शालिवाहन शकांत येवपी अदीक म्हयने:

| शा. शक | १९१३ | १९१५ | १९१८ | १९२१ | १९२३ | १९२६ | १९२९ |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| म्हयनो | वैशाख | भाद्रपद | आषाढ | ज्येष्ठ | आश्विन | श्रावण | ज्येष्ठ |

सूर्य एके राशीपसून दुसरे राशींत ज्या म्हयन्यांत वचूंक ना तो अदीक म्हयनो जाल्यान म्हयन्याच्या बाबतींत फरक पडटा. धर्मसिन्धूंत हाचें उदाहरण दिलां.

'चैत्रामावास्यायां मेषसंक्रांतिः ततः शुक्ल प्रतिपदमारभ्यामा वास्या-पर्यन्तं संक्रान्तिर्नास्ति ततः शुक्ल प्रतिपदि वृभषसंक्रान्तिरिती पूर्वः संक्रान्तिरहितो मासो अधिक वैशाख संज्ञः वृषभ संक्रान्तियुतस्तु शुध्द वैशाख संज्ञः।' अर्थ- समजा चैत्र उमाशेक सूर्य मेष राशींत गेलो जाल्यार मेष संक्रांत जाता. ते उपरांत शुध्द पाडव्यापसून उमाशेमेरेन संक्रांत, म्हळ्यार सूर्य वृषभराशीक वचूंक ना आनी उमाशे उपरांतच्या पाडव्याक सूर्य वृषभेक गेलो. हाचोच अर्थ वृषभ संक्रांत जाली. चैत्रा- उपरांतच्या म्हयन्यांत सूर्य संक्रांत जावंक ना. म्हळ्यारुच तो वैशाख अदीक म्हयनो. ताच्या फुडलो वृषभराशींत सूर्य आसतनाचो म्हयनो शुध्द वैशाख असो समजुचो.

भारतीय ज्योतिशशास्त्रांत सौर वर्साचे ३६५ दीस आनी चंद्रवर्साचे ३५४ दीस हाचो मेळ घालूंक जर अदीक म्हयनो करूं नाशिल्लो जाल्यार विचित्र परिस्थिती जातली आशिल्ली. फकत बारा म्हयन्याचें एक वर्स मानून फुडें गेल्ले जाल्यार ल्हव ल्हव करून खरे म्हयने फाटीं पडटले आशिल्ले आनी वसंत ऋतुंतलो चैत्र म्हयनो ३३ वर्सांत वर्षा, पावस, शरद ह्या ऋतुंत येतलो आशिल्लो. जे परी मोहरम पावसांत, शियांत आनी गिमांत येता. दुसरी गजाल अशी जातली आसली, ३३ सौरवर्सांत एका म्हयन्यांत चंद्रवर्स वाडटलें आशिल्लें. अशी गत हिजरीसनाच्या बाबतींत जाता.

संहिता आनी ब्राह्मण हातूंत संवत्सराक यज्ञ हो पर्यायी शब्द खूब फावटी आयला. हाचेर लोकमान्य टिळकानूय यज्ञ म्हळ्यार संवत्सर म्हणपाचेर भर दिला. १२ चंद्रमासांत यज्ञूय पूर्ण जाताले. पूर्ण नव्या यज्ञाची सुरवात नव्या वर्साकच जावपाची आशिल्ल्यान यज्ञ देवता हो उरिल्ले बारा दीस (सौरवर्सा प्रमाण) नव्या वर्साच्या तयारेखातीर काडटा अशें अथर्ववेद (४.११.११) हातूंत म्हळां.

ऋग्वेद मंत्र 'वेदाय उपजायते' (ऋ. १.२५.८) ह्या मंत्रांत वर्सभर काम करून पुरो जाल्ले ऋभू म्हळ्यार ऋतु आपली गती सवकास करून उरिल्ले धा बारा दीस सूर्याकडेन सोयरेकशे रावतात अशें म्हळां, हाचेवेल्यान हो जो धा बारा दिसांचो फरक जाणवता ताका ज्योतिशशास्त्रांत सिध्द केल्ल्या अदीक म्हयन्याचे कल्पनेक वेदांचोय आदार मेळ्ळा म्हणपाचें सिध्द जाता. ह्या अदीक म्हयन्यांत लग्न, मूंज, गृहप्रवेश, यात्रा, सारकिल्ले हेर म्हयन्यांत जावपी म्हूर्त धरीनात. ह्या म्हयन्यांत नव्यो व्हंकलो कुळारा रावपाक वतात.

- श्री. वा. ल. वझे

**अनंत-१:** (मराठीः अनंत, गंधराज; हिंदी, संस्कृत, बंगाली आनी गुजरातीः गंधराज; इंग्लीशः केप जॅस्मिन, लॅटीनः गार्डेनिया फ्लोरिडा; कूळः रुबिएसी). एक वासाळ फुलांचें झाड. हें मूळचें चीन आनी जपान देशांतलें. भरपूर पावस पडटा अशा वाठारांत आनी पोरसांत अनंताचें झाड लायतात. उंचाय दोन मी. साल काळी आनी खरखरीत. पानां एकामेकासामकार, सादीं, लांबशीं, गाड पांचवीं, चकचकीत, दाट आनी मोटव्या देठाचीं. फुलां एकोडीं, मोटीं, चड करून ताळयांचे तेंगशेक, मोटव्या देंठांचीं, धवीं, वासाचीं आनी दोट्टी तशींच एकोड्या पाकळ्यांचीं आसतात. जुलै-सप्टेंबर म्हयन्यांत फुलां येतात. अनंताचीं सर्वसादारण कुडीचीं लक्षणां रुबिएसी कुळांत वर्णिल्ल्याप्रमाणं आसतात.

अनंताक फळ केन्नाय लागता. ताका लागून नवे लागवडीखातीर निरोगी झाडाचें एक कलम रेंवट जमनींत शियांच्या दिसांनी लायतात. कोंब येतकच कुंडेंत तीन वांटे माती आनी एक वांटो कुशिल्लें शेण घालून मे-जून म्हयन्यांत तातूंत सभोंवतणी बरी माती घालतात. कुंडेंत फाव ती वाड जातकच जायते सुवातेर लावन सारें आनी उदक घालतात. झाडांची वाड जावंक लागतकच तेंगशो कुड्डून घट्ट अशो पांच-स फुलां येवपी ताळयो वाडूंक दवरतात. कळयो येतकच सारें घाल्यार फुलां मोटीं जातात. जशीं जशीं वर्सां वतात तशीं तशीं अनंताच्या झाडाचीं फुलां दिवपाची पैदास कमी जायत वता. फुलांच्या आकाराप्रमाण आनी पाकळ्यांप्रमाण अनंताच्यो कितल्योशोच जाती आसात.

वखद म्हुण अनंताचो खूब उपेग जाता. ताच्या मुळांचो लेप तकली उसळल्यार, त्याचप्रमाण सुजीचेर लायतात. मज्जातंतूचे विकार, दिसां-जोर, अजीर्ण जावप हांचेर अनंताचीं मुळां उपायकारक थारतात. भायरी म्हूण तेचप्रमाण आंकडेचेर आनी जीव-जंतू नश्ट करपाक अनंताचो उपेग जाता. सोरोप आनी विंचू चाबल्यार तशेंच रक्तदोश हांचेर वखद म्हूण अनंताचो उपेग जाता. चिनी लोक 'च्या'त आनी खावचेल्या जिनसांत अनंताच्या फुलांचो वास घालतात.

- कों. वि. सं. मं.

**अनंत-२:** विष्णूची एके तापसी कळा. सात्वत तंत्राचे अनुयायी हाका 'संकर्षण' अशें म्हणटात. ताणे आपल्या हजार फणीपैकी एका फणयेर पृथ्वी धरल्या. अनंताच्या कपलांतल्यान रुद्र इकरा रुपांनी प्रगट जालो. नागांचे राजे अनंताकडेन कृपाप्रसादाखातीर प्रार्थना करतात. नारद-तुंबरु ताची किर्त गायतात. (भा. पु. ३-४ आनी वि. पु. २-५) देवकीचो सातवो पूत बलराम आनी अनंत हे एकूच. जलप्रलयाच्या वेळार अनंत विश्वाक आपलेकडेन ओडून घेता. (भा. पु. १०) अनंताक 'शेष' अशेंय म्हणटात. श्रीकृष्णान 'अनन्तश्चास्मि नागानाम्' अशें लेखून ताका आपली विभूति मानल्या. (गीताः १०-२९).

- कों. वि. सं. मं.

पूरकनोंदः अनंत देवस्थान.

**अनंत-चतुर्दसः** भाद्रपद म्हयन्याच्या पयले (शुक्ल) पंद्रशेंतले चौदावे तिथीक 'अनंत चतुर्दस' अशें म्हणटात. अनंत चतुर्दस हें एक व्रत आसून त्या दिसा अनंताची पूजा करतात.

अनंत हें उत्तर विष्णू आनी शेषनाग ह्या दोगांकय लागता. ह्या दोगांची पूजा म्हळ्यार 'शेषशाई अनंताची पूजा' अशी कल्पना आसा. अनंताचें व्रत चौदा वर्सांचे आसून ताका 'काम्यव्रत' अशें म्हळां. कांय घराण्यांनी शेकड्यांनी वर्सां हें व्रत मनयतात.

अनंत चतुर्दशी दिसा, दनपरां, मध्यानी वेळार भक्तीभावान न्हावन धुवन अनंताची पूजा करतात. नितळ शुध्द उदकांत तांब्याचो तांबयो भरून चवायेर दवरतात. ताका भायल्यान दोन लेंस बांदतात. ताचेर

तामणांत दर्भाचो शेषनाग (सोरोप) करून दवरतात. तांब्याचेर एक पात्र दवरून तातूंत अनंताची प्रतिमा (मूर्त) दवरतात. प्रतिमा नासल्यार शाळिग्राम (ह्या नांवांचो पूजेचो फातर) दवरतात. ताची षोडपोचार पूजा बांदतात. तांबडें रेशमाचें सूत घेवन ताका चौदा गांठी मारून ताचीय पूजा करतात. पूजा जातकच तो दोरो मनगटाचेर बांदतात. उपरान्त अनंताची कथा सांगतात. कथा सांगून जातकच सगले पंच पक्वान्नांचें जेवन जेवतात. रातीकडेन मंत्रजागर, कीर्तन, भजन अशी कार्यावळ करुन रात जागयतात. अशी पूजा चौदा वर्सां करची पडटा. चौदा वर्सां जातकच व्रताचें उद्यापन करतात.

त्रयोदशीक एकभुक्त, चतुर्दशीक तीळ, आवाळे हाचो कल्क आंगाक लावन विधींत सांगिल्ल्यावरीं न्हाण करतात. उपरांत अनंताची पूजा करतात. रातीकडेन अश्वत्थसमिधा, तीळ, तांदूळ, सातू, तूप ह्या द्रव्यांवरवीं व्रतदेवाचें हवन करतात. मागीर कथा सांगतात. पुनवेक फांतोडेर पर्थून पूजा करतात. उपरांत आचार्यपूजन, प्रतिमादान, गोप्रदान दक्षिणादान, आशीर्वाद ग्रहण, ब्राह्मण आनी कुड्ड्या-पांगळ्यांक अन्नदान जाता. निमाणें विष्णूचें स्मरण करून पारण्याचें जेवण घालतात.

श्री अनंताची कथा अशी आसा:

पांडव वनवास काडटाले तेन्ना भगवान श्रीकृष्ण तांकां मेळूंक आयलो. पांडवाच्या वाट्याक आयिल्ली दुर्दशा पळोवन ताणे तांकां अनंत चतुर्दशीचें व्रत करूंक सांगलें. युधिष्ठिरान कृष्णाक ह्या विशींचो प्रस्न विचारलो तेन्ना श्रीकृष्णान ताका फुडली कथा सांगली.

कृतयुगांत सुमंतू नांवाचो एक आचारसंपन्न ब्राह्मण रावतालो. ताका शीला नांवाची चली जाली. चलयेच्या जल्मा उपरांत तिच्या आवयक मर्ण आयलें. त्याखातीर सुमंतून दुसरें लग्न केलें. दुसरी सावत्र आवय खूब वायट सभावाची आसली. ती शीलाक खूब त्रास दिताली. शीलाचें लग्न कौंडिण्य नांवाच्या ब्राह्मणावांगडा करून दिलें. सुमंताच्या मनांत जावंय आनी चलयेक आपल्या म्हऱ्यांत दवरचें अशें आशिल्लें. पूण बायलेन झगडीं करून जांवयाक आनी चलयेक घराभायर काडलीं. एक फावट कौंडिण्य आनी ताची बायल रानांतल्यान वतना थंय कांय बायलो पूजा करतना शीलाक दिसल्यो. जेन्ना तिणे त्या व्रताविशीं विचारलें, तेन्ना तिका तें व्रत अनंताचें म्हणून कळ्ळें. त्या बायलांनी तिका अनंताचो दोरो दिलो. तो घेवन तिणें अनंताचें व्रत सुरू केलें. तेन्ना तिचें भाग्य उदयाकडेन आयलें. इतली गिरेस्तकाय येवन लेगीत तिणे घोवाक ह्या व्रताविशीं कांयच सांगूंक नाशिल्लें.

एके दिसा कौंडिण्यान सुशिलेच्या मनगटाचेर बांदिल्लो तांबडो दोरो पळेलो. ताका ती पिशेपणा दिसलीं म्हणून ताणे तो दोरो काडून उज्यांत उडयलो. दोरो जळून वतकच अनंताच्या कोपान ब्राह्मणाचें दैव घुंवलें. ताका एक फावट लेगीत जेवपाची आस्पत उल्ली ना. तेन्ना बायलेन घोवाक सगळ्या हाल अपेश्टाचें कारण सांगलें.कौंडिण्यांक हें आयकून पश्चाताप जालो. रानारानांतल्यान तो घुंवत रावलो. घूंवतना ताका आंब्याचें झाड दिसलें. ताका जायते आंबे लागिल्ले. पूण ते सगळे कुशिल्ले. खंयचेंच सुकणे ताका तोंड लायनाशिल्लें. तो तसोच फुडें गेलो. थंय ताका एक बैल दिसलो. ताच्या मुखार तण आशिल्लें पूण तो तें खावंक शकनाशिल्लो. आनीक फुडें वतकच ताका दोन भरिल्लीं तळीं दिसलीं. पूण त्या तळ्यांचें उदक घाण जाल्लें. कोणूच तें उदक पियेवंक तयार नासलो. वाटेर ताका हत्ती आनी गाढव मेळ्ळें. हांकां सगळ्यांक ताणे अनंताचो पत्तो विचारलो, पूण कोणूच ताका हेविशीं सांगूंक तयार जालो ना. कौंडिण्य अनंताचो सोद घेत घेत तसोच फुडें वचूंक लागलो. ताच्या आंगांत त्राण नाशिल्ल्यान घुंवळ येवन पडलो. ताचे पश्चाताप, कश्ट आनी विकलाप पळोवन भगवान अनंतान ताका दर्शन दिलें आनी ताचें वैभव आनी गिरेस्तकाय परती मेळोवन दिली. अनंतान उपरांत ताका वाटेर मेळिल्ल्या सगळ्या गजालींचो उलगडो केलो. ताणे सांगलें, ''आंबो म्हळ्यार आपली विद्या दुसऱ्याक दिवंक तयार नाशिल्लो पंडीत. बैल म्हळ्यार आदल्या जल्मांत गर्वान दानधर्म करपी मनीस आसलो. दोनूय तळीं आदल्या जल्मांतल्यो दोन भयणी. ताणी केन्नाच सत्पात्र वा गरजेवंत मनशाक दाना दिवंक नासलीं. तीं दोगांय एकामेकांकूच दानां दितालीं. तेखातीर तांचें उदक कोणूच पिवंक तयार नासलो. कौंडिण्याचो राग आनी गर्व हेच हत्ती आनी गाढव आसले.''

मनशांत, प्राण्यांत, झाडांत लेगीत अनंताची सासाय आसता. ह्या वयल्या गजालींपासतच मनशाचे जीणेंत गोडसाण येता. हें तत्व समजावन अनंतान ताका आशिर्वाद दिलो. आपणाक जें मेळटा ती सगळी देवाचीच कृपा हो बोध कौंडिण्याक जालो आनी तो अनंत चतुर्दशीचें व्रत करपाक लागलो.

- नारायण रा. केळकर

**अनंत देवस्थान:** फोंडें तालुक्यांतल्या सावय-वेरें गांवांतलें देवस्थान. गोंयांतलें श्री अनंताचें तें एकूच देवस्थान. ताची मूळ संस्थापना कोणे आनी खंयच्या वर्सा केली हाची नोंद मेळना पूण श्री अनंत देवाच्या शेषशयनी पाशाणी मूर्तीचें दर्शन घेतकच, हें देवस्थान खूब पूर्विल्लें आसा अशें दिसून येता. आरंभाक वेरें गांव ज्या काळांत लोकांनी वसोवपाचो वावर केलो, त्या लोकांनी त्याच काळांत ज्या ग्रामसंस्थेचें ग्रामदैवत मानलें, त्या श्री अनंत दैवताची संस्थापना केली आसूंक जाय.

श्री अनंत देवाचें देवूळ आसा, त्या वाड्याक मदलो वाडो अशें म्हणटात. तें जे भुंयेर वसलां ते भुंयेक 'श्री चे इनाम' अशें म्हणटात. ह्या देवळाची गर्भकूड उदकांतूच आशिल्ल्याभशेन आसा. देवळाकूच तेकून एक फातरांनी बांदिल्ली तळी आसा. श्री. अनंत दैवत हें मुखेल आसून ताची वांगडी अशी आनीक चार दैवतां आसात, तांची स्थापना वेगवेगळ्या सुवातींनी वेगवेगळ्या वाड्य़ाप्रमाण केल्या. १. श्री शांतादुर्गा दैवत हें श्री शांतादुर्गा देवळाकडल्या 'भाटले इनाम' जागेंत , २. श्री कामिनी देवी, पाळ वाडो, ३. श्री नारायण देव, सावय वाडो, ४. श्री ग्रामपुरुष श्री शांतादुर्गा देवीचे दावेवटेन.

ह्या देवस्थानांत श्री अनंत देवाचो शिबिकोत्सव शुक्ल आनी कृष्ण पक्षाच्या दसमी दिसा रातचो वर्साच्या फकत णव म्हयन्यांत म्हळ्यार चैत्र, वैशाख, ज्येष्ठ, आश्विन, कार्तिक, मार्गशीर्ष, पौष, माघ आनी फाल्गुनांत जाता. चैत्र म्हयन्यांत श्री रामनम, वैशाख म्हयन्यांत शुल्क पक्षाच्या चतुर्दशी दिसा श्री नृसिंह जयंती, श्रावण म्हयन्यांत सोमार, गोकुळाश्टम, भाद्रपद म्हयन्यांत श्रीमदनंतव्रतोत्सव, आश्विन म्हयन्यांत विजयादशमी दसरो, कार्तिक म्हयन्याच्या शुक्ल दसमीक दीपोत्सव, मार्गशीर्ष म्हयन्यांत शुक्ल पक्षाच्या तिथीया तिर्थाक कालो आनी चवथीक गौळणकालो, सांगड आनी पुनवेक श्रीदत्त जयंती हे उत्सव जातात.

शिबिकोत्सवांत श्रीची पालखी खांदयावेल्यान व्हरपाचो भौमान आनी हक्क फकत वेरेंकार ऊर्फ 'चाफेभाटकार' हांकांच आसा. तांचें ते कुलदैवत. चंवऱ्यो आनी दिवट्यो धरपाचो अधिकार भट आनी सिंगबाळ ह्या म्हाजनांक आसा. तांचें तें ग्रामदैवत. दर वर्सा मार्गशीर्ष शुक्ल पक्षांतल्या तृतियेक श्री अनंत देवाचो कालो उत्सव जाता. तेन्ना दशावतारी कालो हो लोकउत्सव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**अनस:** (मराठी- अननस; इंग्लीश- पाइनॲपल; लॅटीन- अननस कोमोसस, अननस सटिव्हस, कुळ-ब्रोमेलिएसी).

हें खावपाच्या फळाचें झाड ५०-१०० सेंमी. मेरेन वाडटा. ह्या झाडाक दोन तरेचीं मुळां आसतात, एक तरेचीं मुळां खोडाचेर आसता जाल्यार दुसरे तरेचीं मुळां जमनींत सुमार १.२ मीटर्स मेरेन खोल वतात. झाडाचें खोड २०-२५ सेंमी. ऊंच वाडटा आनी तें ७-११ सेंमी जाड आसता. खोड पानांनी धापिल्लें आसता. पानां दाट, जाडजूड आनी तरसादीच्या आकाराचीं आसतात. पानांच्या कडांनी कांटे आसतात. पानांची लांबाय ९०-१५० सेंमी. आनी रुंदाय २.५ ते ६.५ सेंमी. आसता. अनशीच्या झाडाक निळसर रंगाची फुलांय येतात. अनस फळाचें सरासरी वजन सुमार १-२.५ किल आसता, पूण केन्नाकेन्नाय १० किल वजनाचें लेगीत

फळ मेळूं येता.

ह्या झाडाचो उगम पाराग्वे ह्या देशांत जाल्याचो उल्लेख आसा. तशेंच १५४८ त हें झाड भारतांत आयलें म्हणपाचीय नोंद मेळटा. थायलँड, चीन, अमेरिका, ब्राझिल, फिलीपायन्स, मेक्सिको ह्या देशांत अनसाची लागवड मोट्या प्रमाणांत जाता. भारतांत मेघालय, आसाम, त्रिपुरा, अस्तंत बंगाल, गोंय, महाराष्ट्र तशेंच उत्तर प्रदेश, आंध्र प्रदेश, तामीळ नाडू ह्या राज्यांतल्या कांय वाठारांनी अनसाची लागवड मोट्या प्रमाणांत जाता. गोंयांत चडशा सुवातींनी अनसाच्या पिकाची लागवड सुपारी, माड तशेंच काजूच्या पिकांमदीं मिश्र पीक म्हूण जाता. गोंयच्या पोरसांनीय ह्या पीकाक स्थान आसा.



**अनस**

अनसाच्यो जायत्यो जाती आसात. तातूंतल्यो जायन्ट कीव, जायन्ट क्वीन आनी मॉरीशस ह्यो जाती चड उत्पन्न दितात. तांची खाशेलेपणा अशीं: १. **जायन्ट कीव**: ह्या जातीचीं फळां मोटीं आनी वजनाक सुमार १.५ ते २.५ किलो आसात. हीं फळां खावपाखातीर तितलींशीं वापरीनात. हीं फळां चडशीं कारखान्यांनी कॅनींग करपाक वापरतात. २. **जायन्ट क्वीन**: जायन्ट कीव जातीपरस ह्या जातीचीं फळां आकारान ल्हान आसतात. हांचें वजन सुमार ०.९ ते १.३ किलो ग्रॅम आसता. ह्या फळांक बरो वास येता आनी फळ खावपाकूय रूचीक लागता. ३. **मॉरीशस**: ह्या जातीचें फळ मध्यम आकाराचें आसून गोडयेक बरें आसता. ह्या भायर कांय थळाव्यो जाती वापरांत आसात. ह्या थळाव्या जातीचें उत्पन्न कमी येता पूण त्याच वांगडा त्यो पावसाच्या उदकाचेर जगपाक शकतात.

अनसाचें पीक २२° ते ३२°से. ह्या तापमानांत बरे तरेन जाता. समुद्र सपाटीपसून ११०० मी. उंचायेचेर मेरेन हें पीक जावपाक शकता. अनसाक हलकी जमीन मानवता. अनसाची लागवड करपाखातीर, अनसाचे शेंडे वापरतात. हे शेंडे तीन प्रकारचे आसतात. खोडाच्या मुळांकडल्यान येवपी शेंड्याक 'सकर' अशें म्हणटात, खोडाच्या मदल्यान येवपी शेंड्याक 'स्लीप' अशें म्हणटात, जाल्यार अनसाच्या माथ्यार जो शेंडो येता ताका 'क्रावन' अशें म्हणटात. ह्या तीनूय प्रकारचे शेंडे वापरून अनसाची लागवड करपाक जाता, पूण मुळाकडले शेंडे वापरल्यार पीक बेगीन म्हळ्यार १८ म्हयन्यांनी तयार जाता. तेखातीर असले मुळाकडले बरे शेंडे घेवन ६०×१५ सेंमी. इतलें अंतर दवरून लायतात. लागवड जूनांत जावं ऑक्टोबर-नोव्हेंबर म्हयन्यांत करतात. अनसाचें चड उत्पन्न मेळचें म्हूण सेन्द्रिय सान्यावांगडा रसायनीक सान्याचोय वापर करतात. दर हेक्टरी ६०० किलो नत्र आनी ६०० किलो पोटॅशचो वापर करतात. अनसाक नडणेचो बरोच त्रास जाता. तेखातीर वेळोवेळ नडणी करची पडटा. डाय-युरोन हें वखद हेक्टरी ३ किलो ह्या प्रमाणांत मारून्य नडणेचेर नियंत्रण दवरपाक जाता. अनसाक दोन दोन म्हयन्याच्या अंतरान तीन फावट माती काडटात. अनसाक उदक खूब कमी लागता. चडशो जाती पावसाच्या उदकाचेर जगता. चड उत्पन्न दिवपी अनसाच्या जातीक दर २०-२५ दिसांनी उदक दिंवचें.

अनस लायतकच १२-१३ म्हयन्यांनी फुलता आनी उपरांत ५-६ म्हयन्यांनी फळ तयार जाता. फळाचो थोडोसो हळडुवोसार रंग जालो म्हणटकच अनस तयार जालें म्हूण समजतात. जानेवारी-मार्च म्हयन्यांत अनशीक फुलां येतात आनी जून-ऑगस्टमेरेन फळां तयार जातात. पूण कांय संजीवकाचो वापर केल्यार अनस केन्नाय फुलोवपाक येता. अनसाचें हेक्टरी ७०-९० टन उत्पन्न मेळटा.

अनसाच्या फळाची भायली साल खडबडीत आनी चेपाचेपांची आसता. ह्या चेपांक दोळे अशें म्हणटात आनी प्रत्येक दोळ्याच्या माथ्यार ल्हान आकाराच्यो खरखरीत पाकळ्यो आसतात. फळाच्या गरांत खूब प्रमाणांत शिगरां आसतात आनी फळाच्या मदेगांत माव आसता. गरामदीं पिंगशा रंगाच्यो लांबट, चेपांचेपांच्यो बियो आसतात.

पिकिल्लें अनस गोड, रुचीक आनी पौष्टिक आसता. अनसाच्या फळांत 'अ' आनी 'ब' जीवनसत्व चड प्रमाणांत जाल्यार 'क' जीवनसत्व थोड्या प्रमाणांत आसता. ह्या फळांत लोखंड, मॅग्नेशियम आनी कॅल्शियम हीं खनिजां आसतात. अनसाच्या फळापसून जॅम, जॅली तशेंच हालवो तयार करतात. अनसाच्या पानांपसून जी किसरां (Fibres) मेळटात, ताचेपसून साक, राजू, तरेकवार पोतयो, जमखनां तयार करतात. अनस खातकच वा ताचो रोस काडल्या उपरांत जो चोथो उरता तो चोथो गोरवांक खावड म्हूण दितात.

अनसांक किडीचे आनी हेर रोग सहसा जायनात. पूण केन्नाकेन्नाय 'मिलीबग' ह्या किडीच्या रोगाचो आनी 'हार्टरोट' ह्या रोगाचो त्रास जाता. मिलीबग ही कीड झाडांतल्यान रोस चोखून घेता, ताका लागून झाड सुकता आनी मरता. ह्या किडीच्या नियंत्रणाखातीर थाटमेट-१० जी हें वखद हेक्टरी २० किलो ह्या प्रमाणांत वापरतात. 'हार्ट रोट' हो रोग शेतांत उदक चड प्रमाणांत सांठून उरत जाल्यार जावपाची चड शक्यताय आसता. ह्या रोगाचेर नियंत्रण दवरपाखातीर उदकाचो बरो निचरो करतात, तशेंच शेंडे लावच्या पयलीं ते ०.४ टक्के 'डायफोलटन' ह्या विद्रावांत बुडोवन दवरतात.

- विश्राम गांवकार

संदर्भ: 1. Chadha, Dr. K.L., 'Pineapple Cultivation', Indian Institute of Horticutural Research Bangalore. 1984; 2. Wealth of India, Raw Materials, Vol 1-A Publication and information Directorate, New Delhi. 110012. 1985.

**अनात्मवाद**: अनात्मवाद म्हळ्यार आत्मवादाचो विरोधी सिध्दान्त. आत्म्याचो निशेध करपी वाद म्हळ्यार अनात्मवाद. आत्मवाद ब्राह्मणपरंपरेंतलो आसून ताजो संबंद श्रौतदर्शनाकडेन येता. अनात्मवाद श्रमण परंपरेंतलो आसून ताजो संबंद बौध्ददर्शनाकडेन येता. पालिभार्शेत ताका अनात्तवाद अशेंय म्हळां. नैरात्म्यवाद वा पुद्गलप्रतिषेधवाद हीं ह्या वादाक पर्यायी नांवां आसात.

बुध्द हो अनात्मवादी आशिल्लो. अनात्मवाद हो बुध्ददर्शनाची बुन्याद जावन आसा. कांय लोकांच्या मतान अनात्मवादांत आत्म्याचें अस्तित्व पुराय ना करून उडयलां. तेखातीर हो वाद म्हळ्यार आत्म्याचो अनस्तिवाद वा भौतिक वाद जावन आसा. पूण हो विचार चुकीचो. बौध्ददर्शनांत अनात्मवाद वयल्या अर्थान आपणावंक ना. बुध्दान ताका शाश्वतवाद आनी उच्छेदवाद ह्या दोनी एकांतीक वादांमदलो रस्तो-मध्यमा प्रतिपद म्हळां. शाश्वतवादाचो सिध्दान्त 'आत्मो हो नित्य, कूटस्थ, चिरंतन आनी एकरूप आसा' अशें मानता. उच्छेदवादाचो सिध्दान्त, आत्मो नाच अशें मानता. बुध्दान अनात्म वादाक दोनूय

वादासावन वेगळावन अभौतिक नैरात्मवाद ह्या स्वरूपांत ताका दिशा दिली. बुध्दान आत्म्याचें वर्णन निशेधात्मक पध्दतीन केलां. रूप, वेदना, संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान हे पांच स्कंध आसून, ते म्हळ्यार आत्मो न्हय अशें म्हळां. जीव, आत्मो, सत्ता हीं उतरां बौध्द दर्शनांत समान पांवड्याचेर येतात. बुध्दाच्या मतान उतराच्या आदारान अभिप्रेत करपी वस्त म्हळ्यार स्वतंत्र सत्ता नासून तें जायत्या धर्माचें नामकरण जावन आसा. बुध्दान वेव्हारीक रुपान आत्म्याचो निशेध करूंक ना तर तो पारमार्थिक रूपान केला. लोकवेवहारांत पंचस्कंधाचो चोमो ह्या रूपांत आत्म्याची सत्ता आसा. पूण तातूंत आत्मो नांवांचो वेगळो पदार्थ जावं वस्त ना अशें बुध्दाचें म्हणणें आसा. आत्मवादाचें खंडन करतना बुध्द म्हणटा-

आत्मवादी दादलो आत्म्याचें स्वरूप समजून घेनासतना, ताच्या कल्याणाखातीर नानातरांची यज्ञयागादी सत्कृत्यां करता. देखीकः एकाद्रो दादलो देशांतल्या सगळ्यांत सुंदर आनी शिरवंत चलयेचेर मोग करता. ताणे ते चलयेक केन्नाच पळोवंक ना. तिचे रंग, रूप, आकार गूण हातूंतल्या कसल्याच गजालींची ताका खबर ना. तिचें नांव आनी गोत्रय खबर ना. पूण अशें आसुनूय ताचें तिचेर मन जडलां, तर तो दादलो लोकांभितर पिसो थारतलो. तेपरी आत्म्याचे गुणधर्म समजनासतना ताच्या पारलौकीक सुखाखातीर यज्ञयागादी कृत्यां करप हेवूय पिशेपणाचें थारतलें.

बृहदारण्यक उपनिषदांत 'आत्मनस्तु कामाय सर्वं प्रियं भवति' म्हळ्यार आत्म्याच्या इत्सेखातीर सगळ्यो गजाली प्रिय जातात अशें म्हळां. हांचो अर्थ संवसारांत सगळ्यांत प्रिय वस्त 'आत्मो' जावन आसा. ह्याच आत्म्याच्या सुखाखातीर मनीस वासनातृप्तीची इत्सा धरता. पूण हो विकार जावं इत्सा बुध्दाक मान्य ना. तेखातीर काम निर्माणूच जावंचो न्हय म्हूण ताणे नव्या मार्गाची दीक्षा दिली. तांची विचारधारा एका नव्या मार्गान मुखार गेली. तो म्हणटा-

'आत्म्याचें अस्तित्वच सगळ्या अनर्थाचें मूळ जावन आसा. आत्म्याचें अस्तित्व मानिल्ल्यान अहंकार मनशाचे कुडींत येवन रावता. आत्मो सुखान रावचो म्हूण जीव शरिराक नानातरेचें सुख दिता. सुख मेळोवपाच्यो वेगवेगळ्यो वाटो सोदपाक लागता. हे खातीर आत्म्याचो निशेध करप हो काम आनी हेर विकाराचेर जैत मेळोवपाचो सादो आनी सोपो उपाय. बुध्दाच्या उपदेशाचो परिणाम फुडल्या काळांत जायत्या बौध्द गुरूंच्या ग्रंथांत जाल्लो वाचूंक मेळटा. ह्या आचार्यांनी अनात्मवादाची व्याख्या फुडलेतरेन केल्या.

आत्मविशयांत बुध्दान संघातवाद आनी संतानवाद अशे दोन वाद आपणायल्यात. अशे थेरवादी नागसेनान सांगलां. आत्मो हो रूप, वेदना, संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान ह्या पांच गजालींचो संघातमात्र आसा. ज्या मनशाक आमी नांवान उलो करतात तेन्ना तो मनीस म्हळ्यार वयल्या पांच स्कंधांचो चोमो आसता. आत्मो कोणूय, एकच, कूटस्थ वा नित्य नासून, तो नित्य परिवर्तन घडवपी स्कंध आसा. पूण बुध्दाच्या मतान आत्मो हो स्कंधाच्याकय भिन्न वा अभिन्न ना, म्हूण संघातवाद ही बुध्दाली शिक्षा-दीक्षा आशिल्ली हें निश्चितपणान म्हणपाक जावंचें ना. संतानवाद, आत्मो संतानरूप आशिल्ल्याचें सांगता. भौतिक आनी मानसीक, बाह्य आनी आभ्यांतर (भायर आनी भितर) इंद्रिय आनी इंद्रीयग्राह्य अशा वस्तूंचो आत्मो हो संतान आसा. सर्वास्तिवादी बौध्दांचें हें मत आसा. बुध्दाचो अनात्मवाद ताणी संतानवाद ह्या रुपान आपणायला. आत्मो म्हळ्यार अभाव रुप वस्त न्हय तर ती नित्य अशी वस्त. मात ती एका जाग्यार थीर नासून बदल घडोवपी आसा. आत्म्याचे घटक क्षणीक आनी विपरिणामधर्मी आसात. उदकाचो प्रवाह आनी दिव्याची जोत ही उदकाची आनी उज्याची संतान आसात, तर आत्मो हो फकत स्कंधाचें संतान आसा.

वात्सीपुत्रीय बौध्दांनी आत्म्याक पुद्गल वा द्रव्याचो पर्याय मानला. पूण वसुबंधू आपल्या अभिधर्मकोशांत ह्या मताचें खंडन करता. ताच्या मताप्रमाण पुद्गलवाद निमाणे शाश्वतवादाकडेन संधान जोडटा. हो तातूंतलो दोश जावन आसा. विज्ञानवादी आनी योगी हांच्या मतान आत्मो म्हळ्यार फकत केवल विज्ञान जावन आसा. सौत्रांतिकांनी आत्मविज्ञानाक सत् आनी ध्रूव मानला; पूण नित्य मानूंक ना. वेदान्तांत आत्मो नित्य आसा. तशेंच ध्रूव आनी नित्य ह्या उतरांचो सर्वसादारण अर्थूय एकूच आसा. हे नदरेन सौत्रांतिक वाद वेदान्ताक खूब लागीं आयला. वसुबंधून जाका विज्ञप्तिमात्र मानला, तो तर वेदान्तांतल्या नित्य आत्म्यापरस वेगळो ना.

अनात्मवादाचे सिध्दान्त मुखावेल्या प्रमाणे आसात. १. पांच स्कंधांक आत्मो समजप योग्य न्हय, कारण तांकां वेगवेगळ्या पिडांनी ग्रासल्यात. २. पंचस्कंध अनित्य म्हळ्यार दुःखा आसात ताका लागून ते आत्मे जावंक शकनात. ३. जर पंचस्कंध म्हळ्यार आत्मो न्हय तर तांच्यासावन निर्वेद जोडून घेवपाक जाय. तशें जाल्यारच तांच्यासावन निर्वाणाचो लाव जावंक शकता. ४. जोवेळमेरेन आत्मग्रह्य आसात, तोवेळमेरेन आत्म्याच्यो बोध, बंधन, आसक्ति ह्यो गजाली ताका उरतल्यो. आत्म्याक नित्य आनी सत् मानल्यार लेगीत खरी अनासक्ति वा विरक्ति जावची ना. खऱ्या अनासक्तिबगर मोक्ष वा निर्वाण मेळूंक शकचेना.

वयल्या कांय कारणांखातीरच बुध्दान अनात्मवादाचो उपदेश केलो.

बुध्दाच्या उपदेशाफाटल्यान त्याकाळाचे परिस्थितीचो विचार आशिल्लो. वैदिक आत्मवादांत कितले तरी दोश भरसल्ले. आत्म्याच्या पारलौकिक कल्याणाखातीर यज्ञयाग आनी जनावरांची हत्या सगळेकडेन चलताली. आत्मो हो सगळेकडेन एकरूप आनी सम मानपी वेदान्ती वेव्हारांत मात तशे वागनाशिल्ले. जीव हे ऊंच-उणाक आसात आनी तांच्याय जातीचे भेद आसात अशेतरेन तांचो वेव्हार चलतालो. वैदिक आत्मवादांतल्या आचार विचारांतली विसंगती बुध्दाच्या लक्षांत आयली. वायट तत्वां ना करपाक बुध्दान अनात्मवाद नांवांचो एक नवो वाद लोकांमुखार दवरलो. अनात्मवादाच्या सिध्दान्तात यज्ञादि पुण्यकर्माची पोकेपणा ताणे सिध्द केलीं. अनासक्ति आनी समचर्या ह्या अपणाल्या दोन मतांक त्यावरवीं ताणे आदार मेळोवन दिलो. चौऱ्यांयशी सिध्दय बुध्दाचें मत आपणावपी आसले. ताणीय अनात्मवादाचो प्रचार केलो. ताचे अनुवर्ती नाथपंथीय अर्धबौध्द आनी अर्धयोगी आसले. तांच्या साहित्यांत अनात्मवाद हो आध्यात्मिक जिवीताची प्रेरणा आनी अध्यात्मांतली चरम अनुभूति ह्या रुपांत दिसून येता. निर्गूनिया संत आनी सूफी संत हांचेरय आनात्मवादाचो प्रभाव पडिल्लो दिसून येता.

अनात्मवाद हो तसो मौनवाद जावन आसा. अनात्मवादाचेर बुध्दाक फुडले प्रस्न विचारपाक आयिल्ले. १. जीव शरिरापरस भिन्न काय अभिन्न? २. तथागत (बुध्द) मरणाउपरांत उरता काय ना? ३. काय रावता आनी रावय ना? ४. काय रावचें ना आनी रावत आसता?

बुध्दान ह्या सगल्या प्रश्नांची उत्तरां मौनानच दिल्यांत. बुध्दाच्या ह्या मौनाचेर जायत्या बौध्द तशेंच बौध्देतर विद्वानांनी आपलीं वेगवेगळीं मतां मांडून मौनवाद वा अनात्मवादाचो कीस काडला.

- कों. वि. सं. मं.

**अनाथाश्रमः** अनाथ, दुर्लक्ष जाल्ल्या अपंग बेवारशी जावं भायले जातीच्या उबंत भुरग्यांक, बायलांक आनी जाण्ट्या-म्हाताऱ्या मनशांक आश्रय दिवपी संस्थेक 'अनाथाश्रम' अशें म्हणटात. दळिद्र, अपघात, फटोवप, घटस्फोट, भुरग्यांक आनी बायलांक सोडून दिवप, आंकवारापणांत वा विधवा आसतना आवय जावप ह्या कारणांक लागून अनाथांचो आंकडो वाडटा. तांची विस्कळीत जाल्ली जीण थीर बसोवपाक यत्न करप हें समाजहिताचे नदरेन खूब गरजेचें. अशा वेळार कांय काकळूतेस्त आनी उदार मनाचे मनीस त्या दुर्दैवी जीवांक आदार दिवपाक फुडें येतात आनी संघटित जावन अनाथाश्रमासारक्यो संस्था स्थापन करतात. रशियासारके कांय आडवाद सोडले, जाल्यार सगळ्या देशांनी खाजगी रितीन चलयल्ले अनाथाश्रम दिसून येतात. सरकाराकडल्यान आनी गिरेस्त दुडवांकारांकडल्यान अशा संस्थांक मदत

मेळटा.

कातोल्क इगर्जेन असले अनाथाश्रम स्थापन करपाक सगळ्यांत पयलीं सुरवात केली. अनाथ भुरगीं, विधवा आनी रुग्ण (वायटकार) हांची सेवा करपी मदतगृहां हातूंतल्यानूच सुरू जालीं. पूण कांय धर्मीक संस्थांनी अशा अनाथांचो गैरफायदो घेतलो. ताका लागून युरोपांत मध्ययुगाच्या अखेरेक सरकार आनी नगरपालिका हाणी स्वताच अनाथाश्रम चलोवपाक सुरवात केली. फ्रांसांत राज्यक्रांती उपरांत असल्यो संस्था भौशिक मालकीच्यो जाल्यो. रशियांत आयज लेगीत असल्यो संस्था सरकार चलयता. इंग्लंड सरकारान १६०१ वर्सा 'पुअर लॉ' वरवीं ह्यो संस्था आपल्या ताब्यांत घेतल्यो.

भारतांत अनाथांचो आंकडो दळिद्र आनी अनैतिक संबंद हाका लागून वाडलो. भुरग्यांखातीर अनाथाश्रम सुरू करपाक अठराव्या शेंकड्यासावन सुरवात जाली आनी हातूंत ख्रिस्ती मिशनऱ्यांनी फुडाकार घेतलो. 'रामकृष्ण मिशन' आनी 'मुक्तीफौज' हाणीय अशेच आश्रम स्थापन केले. महाराष्ट्र, मद्रास, बंगाल, दिल्ली, उत्तर प्रदेश ह्या राज्यांत अनाथ बालकाश्रम आयज चालू आसात. संबंद भारतांत विधवा आनी आंकवार आवयो हांकां आत्महत्येपसून परावृत्त करून, समाजीक जाचापसून तांकां संरक्षण दिवप गरजेचें आशिल्लें. १८८९ वर्सा पंडिता रमाबाई हांणी 'रमाबाई असोसिएशन' वरवीं मुंबय आनी पुणे हांगा फकत विधवांखातीर 'शारदासदन' नांवाची संस्था सुरू केली पूण ती थोडोच काळ तिगली. १८९६ वर्सा महर्षी धों.के. कर्वे हाणे पुण्यांत 'अनाथ बालिकाश्रम' स्थापन केलो. तातूंतल्यानूच आयची 'हिंगणे स्त्रीशिक्षणसंस्था' उदयाक आयली. १८९८ वर्सा मुंबय, मद्रास सारक्या मोट्या शारांत वायट मार्गाक लागिल्ल्या बायलांखातीर सरकारी आश्रम सुरू केले. सगळ्या राज्यांनी बायलांचे अनाथाश्रम सुरू जाले. बायलांक संरक्षण दिवपी अशा आश्रमांभीतर 'श्रध्दानंद महिलाश्रम' (मुंबय)' आनी 'सर गंगानाथ महिलाश्रम' ह्या संस्थांनी केल्लो वावर खूब मोलादीक जावन आसा.

महाराष्ट्रांत 'महाराष्ट्र स्टेट विमेन्स रेस्क्यू होम', 'बॉम्बे व्हिजिलन्स असोसिएशन शेल्टर', 'लीग ऑफ मर्सी सेंटर', 'हिंदुसभा', 'सॅल्व्हेशन आर्मी', 'इंडस्ट्रियल इन्स्टिट्यूट ऑफ विमेन' 'सेंट कॅमरिन्स होम', 'असोसिएशन ऑफ मॉरल अँड सोशल हायजिन' (१३ जिल्हा-शाखा) ह्यो संस्था बायलांची राखण करपाचो वावर करतात. तेभायर 'अनाथ महिलाश्रम' आनी 'अनाथ विद्यार्थिगृह (पुणे)', 'वासुदेव बाबाजी नवरंगे अनाथाश्रम' (पंढरपूर), 'अनाथ महिलाश्रम' (कोल्हापूर) ह्या संस्थांचोय वावर तुस्त करीसारखो आसा.

ह्या संदर्भांत 'विमेन्स अँन्ड चिल्ड्रन्स इन्सिट्यूशन्स लायसेन्सिंग ॲक्ट' (१९५६), 'द ऑर्फनेज अँड अदर चॅरिटेबल इन्स्टिट्यूशन्स सुपरव्हिजन अँड कंट्रोल' (१९६०) हे कायदे भारतभर लागू आसात. भारतांत मध्यवर्ती पातळीचेर केंद्रीय समाजकल्याण मंडळ आसा. तशेंच प्रत्येक राज्यांत समाज-कल्याण संचालनालय आसा. तांचेवरवीं अनाथाश्रमांसारक्या संस्थांक मदत (ग्रांट) मेळटा.

गोंयांत प्रोव्हेदोरीया Provedoria Institute of public Assistance आनी हेर धर्मदायी संस्थांवरवीं अनाथ बायलो, दादले आनी भुरगीं हांच्याखातीर अनाथाश्रम चलतात.

- कों. वि. सं. मं.

**अनासक्तियोग:** महात्मा गांधीन आपणे केल्ल्या गीतेच्या गुजराती अणकाराक 'अनासक्तियोग' अशें नांव दिलां. महात्मा गांधी हाच्या मतान अनासक्ति ह्या उतराचो अर्थ असंग, निवृत्ती वा त्याग असो जाता. असंग हें त्या करणेचें अभावात्मक स्वरुप तर निवृत्ती हें भावात्मक स्वरुप आसा. त्यागाचो अर्थ ते कर्मफलत्याग असो करतात. हें सगळें मेळून अनासक्तियोग सिध्द जाता. अनासक्ति ह्या सुर्याभोंवतणी भक्ती, ज्ञान आनी कर्म हे उपगिरे भोंवत आसतात अशें ते म्हणटात. अनासक्तियोग ह्या सिध्दान्ताचेर भक्ती, गिन्यान आनी कर्म पुरायपणान आदारलां असो ताचो अर्थ जाता. गांधीन अनासक्ति आनी सत्य-अहिंसा हांचें लागींचें नातें जोडून दिलां. अहिंसेच्या तत्वाक गीतेच्या आदीसावन मान्यताय मेळिल्ली देखून अहिंसेचें तत्व पटोवपाक गीता सांगूक ना, हें ते कबूल करतात. सगळे तरेची आनी सगळ्या स्वरूपांतली अहिंसा पुरायपणान आचरणांत हाडलेबगर पूर्णकर्मफलत्याग अशक्य आसा अशें सांगून अहिंसा आनी सत्य ह्यो एकाच नाण्याच्यो दोन बाजू अशें ते फुडे म्हणटात.

अनासक्ति हे कल्पनेची फोडणिशी केल्यार तातूंत तीन विचार एकठावल्ले दिसतात- निष्कामकर्म, सगळीं कर्मां ईश्वरार्पण करप आनी शरण वचप म्हळ्यार आपली कूड आनी आत्मो देवाच्या पांयाकडेन ओंपप. गांधी म्हणटा, 'वयल्यो सगळ्यो गजाली केल्यार मनशाची कूड, देवाचें देवूळ जातलें.' अनासक्तिचो सिध्दान्त होच आसा.

गांधी महाभारताक इतिहासग्रंथ न्हय तर रुपक मानतालो. हांचीं कारणां आदिपर्वांत मेळटात. महाभारतांतल्या पात्रांची भिरांकूळ आनी अती भिरांकूळ अशी उत्पत्ती वर्णून भगवान व्यासान राजा आनी भौसाच्या इतिहासाक पुसून उडयला. तातूंतलीं पात्रां इतिहासीक जरी म्हळीं, तरीकय महाभारतांत तांचो उपेग व्यासान फकत धर्माचें दर्शन घडवपाखातीर केला. ह्या महाकाव्यांत गीता ही उंचेल्या पांवड्यावेली लेखल्या. हें गीतेच्या रुपान मनशाच्या अंतस्कर्णांत चलतल्या नीत-अनीत हांच्या झगड्याचें चित्रण केलां. गीते सारक्या नांवाजल्ल्या ग्रंथाची निर्मणी फकत कुटुंबातलीं झगडीं बरी कांय वायट हें थारावपाखातीर आनी तांचेर निर्णय दिवपाखातीर जाली अशें दिसना. गीतेंतलो कृष्ण शुध्द गिन्यानाची मूर्त. पूण तो काल्पनीक आसा अशें म्हणिल्ल्यान, ह्या नांवाचो कोण नाशिल्लो अशें म्हणू नज. पुराय कृष्ण काल्पनीकच आसा. पूण पूर्ण अवताराचें रूपडें उपरांत ताचेर हाडून बसयलां अशें गांधी म्हणटात. जण एक देह घेवन जल्मल्ली प्राणी मात्रां हीं अवतारच घेतात. पूर्णावतार हें विशेशण घेवपाक मात लोकांची सेवा करची पडटा. मनीसकुळयेचें हित सांबाळपाखातीर केल्ली सेवा, अवतारकार्याचे गुणवत्तेचो खरो कस थारता.

परमेश्वर स्वरूप जालेबगर सुख आनी शांती मेळना. तेपासत परमेश्वर स्वरुप जावपाक केल्लो यत्न होच खरो पुरुषार्थ आनी हेंच खरे आत्मदर्शन! आत्म्याचो दिश्टावो हो गीतेचो खरो विशय आसा. गीतेची रचना मात हो विशय सांगपाक करूंक ना. आत्मज्ञान जोडपाक उपाय सांगचो हो गीतेचो मुखेल हेत आसा. ह्या उपायाक वा हेताक 'कर्मफलत्याग' म्हणटात.

गीतेंत भक्ताचीं लक्षणां फुडले प्रमाण वर्णिल्यांत:

अद्वेष्टा सर्वभूतानां मैत्रः करूण एव च।
निर्ममो निरहङ्कारः समदुःखसुखः क्षमी।।

(१२.१३)

गिन्यान मेळवप आनी भक्त जावप हेंच खरें आत्मदर्शन. अशें आसून लेगीत गिन्यानाक आनी भक्तीक कर्मफलत्यागाचे खर परीक्षेंत पास जावंचें पडटा. गीता म्हणटा 'फलासक्ति सोड आनी कर्म कर. निष्काम जावन कर्म कर' फलत्याग म्हळ्यार कर्माच्या परिणामाकडेन बेफिकीर चलणूक दाखवप अशें जायना. साधनविचार, गिन्यान ह्यो दोन गजाली चड म्हत्वाच्यो. हें सगळे जातकच फलासक्ति दवरीनासतना साधनेंत जावं कर्मांत तल्लीन जावन वचपी खरो फलत्यागी आसता. फलासक्ति धरपी, फळाचेच चिंतन करपी मनीस खूब फावट कर्तव्यासावन पयस वचून वायट गजालीय करता. नीत-अनीत तो बाळगिना. तो आडवाटेन वता. फलासक्तिंतल्यान भायर सरपी वायट परिणाम लक्षांत घेवन गीताकारान अनासक्तिचो सिध्दान्त केलो आनी संवसारामुखार साद्या सोप्या आनी सुंदर रितीन मांडलो.

ह्या ग्रंथाचे जायते भाशेंत अणकार जाल्यात. महादेवभाई देसाई हांणें ह्या ग्रंथाचो इंग्लेज भाशेंत अणकार केला.

- कों. वि. सं. मं.

**अनुराधा:** भारतीय नखेत्रमाळेंतलें सतरावें नखेत्र. विशाखा नखेत्राचें दुसरें नांव राधा आसून हें ताचेफाटल्यान येवपी म्हूण हाका अनुराधा हें नांव पडलें. हें नखेत्र वृश्चिक राशींत येता. हातूंत अस्तंत नखेत्र पध्दतीच्या स्कॉर्पियस हातूंतलीं बीटा, डेल्टा, पाय आनी ऱ्हो हीं नखेत्रां आसात. हीं सादारण सरळ वळींत दिसतात. अस्तंत पध्दतींत हें अनुराधा वेगळें नखेत्र अशें मानीनात. उत्तरेक 'न्यू' हें एक तारका-चतुश्क आनी डेल्टाच्या उदेंतेक आसपी एम्-८० हो वाटकुळो तारकापुंज हे खास उल्लेख करपासारखे. अनुराधा नखेत्र मे म्हयन्यांत सांजेचें उदेता आनी रातभर मळबांत दिसता. हाची देवता मित्र आनी आकृती पूजा वा बली अशें मानतात. हाका नक्षत्रीय प्रजापतीची प्रतिष्ठा अशें म्हणटात.

- कों. वि. सं. मं.

**अनेकान्तवाद:** जैन धर्मांतलो एक मुखेल तात्विक विचार. खंयचेय वस्तीकडेन पळयतना तांच्या वेगवेगळ्या तासांकडेन वेगवेगळ्या नदरेंतल्यान पळोवप हांकां जैन अनेकान्तनय म्हणटात. दर एक वस्तू आपले अवस्थेंचे रूपांतर दुसरे अवस्थेंत करता. ताका उत्पाद म्हणटात. प्रत्येक वस्तूचो दुसरे अवस्थेंत रुपकार जायमेरेन वा पयले अवस्थेचो नाश जायमेरेन जी अवस्था उरता ताका व्यय म्हणटात. तत्वरूपी वस्तीचे परिणमन जावप हाका ध्रौव्य म्हणटात.

एकाद्रे वस्तूंत वयल्या तीन अवस्था बगर सात विंगड विंगड धर्म; आसतात. जैनमतांत हांकां सप्तभंगीनय म्हळां. ह्या सप्तभंगीनयांत फुडले सात धर्म मेळटात. १. नित्य २. अनित्य ३. अवक्तव्य ४. नित्यानित्य ५. नित्यअवक्तव्य ६. अनित्य-अवक्तव्य ७. नित्यानित्य अवक्तव्य.

ह्या सात प्रकारांवेल्यान वस्तू स्वरूप जाणून घेवपी सप्तभंगीनयाच्यो ह्या सात प्रकारांवेल्यान वस्तू स्वरूप जाणून घेवपी सप्तभंगीनयाच्यो सात तरा फुडल्याप्रमाण-

१. **स्यादस्तिः** स्वद्रव्य, क्षेत्र, काल, भाव ह्या चारांच्या अपेक्षेन वस्तूचें अस्तित्व मान्य करप.

२. **स्यान्नास्तिः** वयल्या सात धर्मांतले खंयचेय चार धर्म नात जाल्यार, त्या वस्तीचें अस्तित्व ना अशें म्हणप.

३. **स्यादस्तिनास्तिः** तीच वस्त, वेगवेगळ्या काळांत आसा वा ना अशें म्हणप.

४. **स्यात अवक्तव्यः** खंयचेय वस्तूची स्थिती सांगपाक कठीण वचप.

५. **स्यादस्ति अवक्तव्यः** कसलेय अपेक्षेन एखाद्र्या वस्तूंचें अस्तित्व सांगप कठीण जाल्यार थंय कथंचित् (घडये) अस्तित्व सांगपाक येवपासारखे कांयच ना अशें म्हणप.

६. **स्यान्नास्ति अवक्तव्यः** वस्तूचें नास्तित्व कथंचित् (घडये) सांगपाक येवप शक्य आसप.

७. **स्यादस्ति नास्ति अवक्तव्यः** वस्तूचें अस्तित्व वा नास्तित्व सांगप शक्य वा अशक्य आसप. वयलेप्रमाण स्याद्वादाचें हें अति संक्षिप्तस्वरूप आसा. एखाद्री वस्त आसा तशीच आसता अशें समजून रावप, हो एकान्त पक्ष, अनेकान्तवाद्यांक मान्य ना. एखाद्री वस्त वेगवेगळ्या तरेन आसा-तशी, आसा वो ना अशें म्हणून एकान्त पक्ष न्हयकारप होच अनेकान्तवादाचो हेत आसा. एखाद्रे बायलेक आवय, चली, मांय, सून ह्या वेगवेगळ्या रूपांनी लोक वळखता. वेगवेगळ्या लोकांचे अपेक्षेन सगळ्यांचें तें म्हणणें खरेंय आसता. ह्या धर्तरेच्यो दोन वेगवेगळ्या प्रमाणांनी विचार करपी दोन नदरो आसात. एक समन्वयाचेर आदारिल्ली सामान्यगामिनी तर दुसरी विश्लेशणाचेर आदारिल्ली विशेषगामिनी. दोनूय नदरांनी फरक आशिल्ल्यान खर वाद उपरासतात.

पयले नदरेंतल्यान पळयल्यार सुर्वेक जी संवसारांत समानताय दिश्टी पडटा ती ल्हव ल्हव अभेदाकडेन बागवता. उपरांत ती ह्या निर्णयाचेर पावता की जे जे प्रतीतविशय आसात ते वास्तवांत एकूच आसा. दुसरे नदरेंक संवसारांत सगळीकडेन असमानताय दिश्टी पडटा. असमानतेचें मूळ सोदतां सोदतां निमाणे ती अशा निर्णयार पावता की-संवसारांत एकवट खंयच ना. शेकीं तिचो निर्णय जाता की संवसार म्हळ्यार भेदाचो चोमो.

वयल्या दोनूय भिन्न सभावाच्या मतांनी जायत्या वादांक जल्म दिला. द्रव्याची कालिकनित्यता आनी दैशिक व्यापकता हांचेर चड करून वाद घालो. देखीक, सांख्यांचो प्रकृतिपुरूषवाद. दुसऱ्या विचारान भेदाचो वाठार इतलो वाडयला की तातूंतल्यान परमांणुवाद, विभुद्रव्यवाद सारक्यो कल्पना भायर सरल्यो.

अद्वैतवादान सगळे भेद कुस्कुटासमान मानून अभेदमूलक वादाक जल्म दिला. सत्कार्यवाद हो तांचोच एक भाग. सगळो संवसार अखंड आनी एक मानपी पक्ष एकेवटेन तर, संवसार हो विखंड, आनी कणांचो चोमो मानपी पक्ष, दुसरेवटेन रावन एकामेकांक विरोध करतात. ह्या दोनूय वादांक आपलें अभिष्ट तत्व सिध्द करचे खातीर अनिर्वचनीयतेचो आदार घेवंचो पडटा. कारण ह्या दोनूय तत्त्वांचें शब्दांतल्यान निर्वचन जाता, अशें मानल्यार अखंड तत्वाची सिध्दी जावंक शकची ना. निर्वचन करप म्हळ्यार अखंडपण आनी विखंडपण ह्या दोनूय तत्वांक सोंपयिल्ल्या वरी जाता. ह्या मतांतल्यान अनिर्वचनीय वादाचो जल्म जालो. ह्या वादाक तोंड दिवपाक लक्षणवादी तार्किक फुडें आयले. ताणी वस्तु-मात्रांचें लक्षण घडवप शक्यच न्हय तर वास्तविकय आसा असो दावो केलो. ताका लागून निर्वचनीयवाद मुखार आयलो.

वयले सगळे वाद एकान्तवाद आसले. तातूंतलो विरोधाभास पळोवन अनेकान्तवादाच्या पंडीतांनी तांचेर खासा विचार केलो की 'ह्या वादांत थोडेंतरी तथ्य आसा काय ना? आसल्यार कितल्या प्रमाणांत आसा? काय हें सगळें पुराय सत्य?'- ह्या सगळ्या वादांचो अभ्यास करतना तांकां पूर्ण सत्याचें दर्शन जालें. हें दर्शन वा ह्या अभ्यासाची जोड म्हळ्यार 'अनेकान्तदृश्टी' जावन आसली. अनेकान्ताच्या उजवाडांत तांकां दिसून आयलें की पयल्या वादांतलीं मतां वास्तविक आसलीं तरी तातुंतल्या भेद आनी अभेदाक लागून दोनूय वादांतलो 'विरोधाभास' नदरेक येता. सामान्य आनी विशेश ह्यो दोनूय प्रति आपल्या विशयांत पुराय आसुनय पूर्ण प्रमाण थारुंक शकनात. वस्तूंचें स्वरूप अशें आसपाक जाय की आपल्या आड आशिल्ल्या विचारांक स्वताच्या विचारांत सुवात मेळपाक जाय. जेवखीं दर एक वस्त आपले खेरीत खाशेलपण सिध्द करून प्रमाण थारतली, कित्याक तर वस्तीचें पुराय स्वरूप भेदभेदात्मक वा सामान्य विशेशात्मकच आसता. सतद्वैत वा सत अद्वैत ह्या दोनूय मतांक कसलोच फरक आसना. देखीकः वेळ, काळ, जागो, रंग, परिणाम आनी हेर गजालींचो विचार केल्या बगर आमी व्हड उदकां राशीचो अभ्यास करता तेन्ना आमकां समुद्र प्रतीत जाता. पूण जेन्ना जलराशी संबंदात आमी वयलो सिध्दान्त लायतात, तेन्ना आमकां अखंड समुद्राच्या जाग्यार ल्हान-ल्हान समुद्र दिश्टी पडटात. हो भेद वाडत वचून- निमाणें उदकाचो थेंब लेगीत दिश्टी पडना. निमणे व्हड शून्या बगर कांयच उरना. अशेतरेन उदकाचे राशींत अखंड समुद्राची बुध्द आनी तांच्या निमण्या थेंब्याची बुध्द ह्यो दोनूय गजाली वास्तविकच आसतात. पयलीं बुध्द वास्तविक ह्या खातीर की ती भेदांक वेगवेगळे करीनासतना तांकां मात् लेगीत हात लायनासतना सगळ्यांक एका रुपांत पळयता. वेळ, काळ आनी हेर भेद जे एकामेकांसावन वेगळे आसात. ताका वेगवेगळे विशय करपी बुध्दीय वास्तविकच आसा, कित्याक तर ते भेदच तशे आसात. सगळ्या संवसाराक एका सतरुपान पळयतना वा सगळ्या भेदाच्या अंतर्गत एकाच अनुगमक सत्तेचो विचार करता आसतना सगळे एक एकूच सद्रुप आसात, कित्याक तर पुरायसत्तेचो विचार करता आसतना परस्पर वेगळे अशे भेद मानीनात. हांकाच सत अद्वैत अशें म्हणटात. पूण जेन्ना संवसाराच्या गुणधर्मांचे भेद लक्षांत घेवन भाग करतात, तेन्ना संवसाराचे एक सत् रूप वचून त्या जाग्यार आनीकय सत् रूपां प्रतीत जावंक लागतात. हेच सत् द्वैत जावन आसा. दोनूय परस्पर विरोध आशिल्ल्या वयल्या दोनूय वादांचो समन्वय अनेकान्त नदर दिता आनी अनिर्वचनीयत्व आनी निर्वचनीयत्व ह्या दोनूय तत्वातलें झगडें पालयता.

बौध्दाचो फकत परमाणूपुंजवाद आनी नैयायिकांचो अपूर्वावयवी वाद हांचो अनेकान्तवादान 'स्कंध' हें तत्व आपणावन एकचार घडयला. अनेकान्तवादाक दसून नयवाद आनी भंगवाद आपलेआपूण वयर सरतात. नयवाद आनी भंगवादाचीं सगळीं तत्वां अनेकान्तवादांत आसात.

कार्य-कारणांत कार्याक केवल सत आनी केवल असत मानपी विरोधी वाद आसात. त्या विरोधाक जाप अनेकान्तवाद दिवंक शकता. तो म्हणटा, कार्य हें उपादानांत सतय आसा आनी असतय आसा. देखीकः कांकण भांगरासावन तयार करतात म्हूण भांगरांत तें कांकण तयार करपाची शक्त आसा अशें मानतात. उत्पत्ती जावंचे पयलींचेय शक्तीक कार्यसत म्हणपाक येता. शक्तीरूपान सत आसूनय उत्पादन करपी शक्तीच्या न्हयकाराक लागून तें कार्य उत्पन्न जालें ना जाल्यार तें असतय थारता.

वैदिक परंपरेंत न्याय, वेदान्त तशेंच उपरांत बौध्द दर्शनांत कसलेय एका वस्तूची वेगवेगळ्या रुपान वेगवेगळ्या नदरेन पळोवपाची पध्दत आनी वादांचो एकचार घडवपाची नदर दिसून येता. तरीयपूण एकाद्र्या वस्तूची वेगवेगळ्या नदरेंतल्यान पळोवपाचो आग्रो, एकचाराच्या विचाराची पुराय पुर्तता करपाचो हावेस जैनपरंपरेबगर हेर गजालींत दिसना. ह्यांच हावेसांतल्यान जैन तार्किकांनी अनेकान्त, नय आनी सप्तभंगीवाद हांचें उक्तें आनी वेवस्थित अशें शास्त्र निर्मिलें. जैनदर्शन सगळ्या वादांचो एकचार सादता. सगळ्या वादांक आपआपल्या विशयांत ते वेल्या पांवड्याचे आनी पूरक मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**अन्नः** प्राणी जीवांची जीण बरेतरेन चलची म्हूण सगळ्या जिवांक उशणताय आनी ऊर्जा (energy) पुरवण योग्य तरेन जावप गरजेचें आसता. ही उशणताय वा ऊर्जा भायल्यान मेळोवची पडटा. ही ऊर्जा निर्मूपाखातीर ज्या वस्तूंचें सेवन मनीस करता ताका 'अन्न' म्हणटात. सुर्याच्या उजवाडाचो उपेग वनस्पत करून आपलें अन्न घडयता. वनस्पत, दूद आनी मांस हांचो अन्न म्हूण प्राणी उपेग करतात.

प्राणी एकाच जाग्यार थीर आसतना सजीवांभितर भौतिक आनी रसायनीक बदलाची क्रिया सतत चालू आसता. तांची क्रिया आनी शरिराची उशणताय तगवपाखातीर ही क्रिया सतत चलता. तेखातीर लागपी ऊर्जा आनी उशणताय अन्नासावन मेळटा. कार्याचे तीव्रतेक लागून हुनसाण चड उणी लागता. ही क्रिया थांबप म्हळ्यार मरण येवप.

**अन्नाचीं तीन मुखेल कार्यां अशीं:**

१. कुडीक उशणतायेची वा उर्जेची पुरवण करप. २. उतकांची (tissues) वाड करप आनी ताची झीज भरून काडप. ३. कुडीच्या भितल्या भागांतली परिस्थिती एंझायम (सजीवाच्या सूक्ष्म घटकांत म्हळ्यार कोशिकांत तयार जावपी प्रथिनयुक्त आनी रसायनीक विक्रिया घडोवन हाडपाक पालव दिवपी संयुगां- एंझायमां) आनी हॉर्मोन (अंतःस्त्रावी ग्रंथींतलो स्त्राव-होर्मोन) हाचे क्रियेंत बऱ्याक पडपी घडोवप.

मनीस वा हेर प्राणी हांच्यो अन्नाविशींच्यो गरजो सारक्योच आसतात. मात मनीस अन्नद्रव्यांचेर खास प्रक्रिया केले उपरांतच तें अन्न खाता. हेर प्राणी अशी प्रक्रिया करिनात. दळप, कांडप, शिजवप, भाजप आनी तळप ह्यो प्रक्रिया केले उपरांतच मनीस 'अन्न' तयार करता.

दरेका मनशाक कितली उशणताय वा ऊर्जा लागतली हें ताच्या पिराय, लिंग, वजन, लांबाय, देश, काळ तशेंच काम हांचेर आदारून आसता.

अन्नासावन मेळपी ऊर्जा वा उशणतायेचें मोल किलोकॅलरींत करतात. अन्न घटकांतल्या १ ग्रॅम प्रथिनासावन ४.१ किलोकॅलरी १ ग्रॅम स्निग्ध पदार्थासावन ९.३ किलोकॅलरी आनी १ ग्रॅम स्टार्च- शर्करादी पदार्थासावन ४.१ किलोकॅलरी उशणताय मेळटा.

मनशांक सर्वसादारणपणान लागपी ऊर्जेची गरज फुडले तरेन आसाः

| पिराय | | किलोकॅलरी |
|---|---|---|
| ६ म्हयन्यांमेरेन | दरेक किग्रॅ. वजनाक | १२० |
| ७ ते १२ म्हयने | ,, | १०० |
| १ ते ३ वर्सां | वट्ट वजनाक | १,२०० |
| ४ ते ६ वर्सां | ,, | १,५०० |
| ७ ते ९ वर्सां | ,, | १,८०० |
| १० ते १२ | ,, | २,१०० |
| **तरनाटे चले** | | |
| १३ ते १५ वर्सां | ,, | २,५०० |
| १६ ते १८ वर्सां | ,, | ३,००० |
| **चली** | | |
| १३ ते १८ वर्सां | ,, | २,२०० |
| **जाण्टो दादलो** | | |
| ५५ किल वजनाचो | | |
| १. बसून काम करपी | ,, | २,४०० |
| २. सादारण काम करपी | ,, | २,८०० |
| ३. कश्टांचें काम करपी | ,, | ३,००० |
| **जाण्टी बायल** | | |
| ४५ किल वजनाची | | |
| १. बसून काम करपी | ,, | १,९०० |
| सादारण काम करपी | ,, | २,२०० |
| ३. कश्टाचें काम करपी | ,, | ३,००० |
| **गुरवार बायल** | | |
| पांचव्या म्हयन्या उपरांत | ,, | २,२०० |
| भुरग्यांक आंगावेलें दूद दितासतना | ,, | २,६०० |

दिसपट्ट्या जेवणाच्या किलोकॅलरीमदलो ७०% वांटो कार्बोहायड्रेटांसावन, १० ते १५ टक्के वांटो प्रथिनांसावन आनी १५ ते २० टक्के वांटो स्निग्ध पदार्थासावन मेळिल्लो आसचो.

अन्नाचो चडसो भाग संयुगाच्या तीन मुखेल घटकांसावन घडिल्लो आसता. १. कार्बोहायड्रेट्स, २. चरबी (fat) आनी ३. प्रथिन. तेभायर खनिज आनी लवणद्रव्य, जीवनसत्त्वां आनी हेर कार्बनी संयुग आनी उदक हांचो प्राण्यांच्या अन्नांत आसपाव जाता.

अन्नाचे विंगड विंगड घटक फुडले तरेन आसातः

**कार्बोहायड्रेटः** जाण्ट्या मनशाक ३०० ते ४०० ग्रॅम कार्बोहायड्रेटांची गरज आसता. साकर, गोड पदार्थ, बटाट, कणंग, साबूदाणे आनी फळां हातूंत कार्बोहायड्रेटांचें प्रमाण खूब आसता. ग्लुकोज, फ्रुक्टोज, माल्टोज, लॅक्टोज, सुक्रोज, ग्लायकोजेन डेक्स्ट्रिन, स्टार्च आनी सेल्युलोज हांचोय हातूंत आस्पाव जाता.

**स्निग्ध पदार्थः** स्निग्ध पदार्थ प्राणीज आनी वनस्पतीज अशे दोन प्रकारचे आसतात. लोणी, तूप, तांतीं हे प्राणीज स्निग्ध पदार्थ आसून भुंयमूग, तीळ, करडई, सांसवां, खोबरें, सरकी, सूर्यफूल, सोयाबीन आनी हेर तेलांचो वनस्पतीज प्रकारांत आस्पाव जाता.

**प्रथिनांः** प्रथिनांवरवीं कुडीक नायट्रोजनयुक्त पदार्थाची पुरवण जाता. कुडीच्या दर एक कील वजनाफाटल्यान एक ग्रॅम प्रथिनां दिसपट्ट्या अन्नांत आसपाक जाय. मांस, तांतीं, नुस्तें, दूद, गंव आनी दाळ हातूंत प्रथिनांचें प्रमाण चड आसता.

**जीवनसत्त्वां:** हीं कार्बनी संयुगां, कुडीचें धारण-पोशण हाचेखातीर गरजेचीं आसतात. जीवनसत्त्वांक ए, बी, सी, डी, ई आनी के अशीं नांवां दिल्यांत.

**खनिजां:** भलायकी बरी उरपाक कुडीक खनिजांची गरज आसता. सोडियम, पोटॅशियम, कॅल्शियम, फॉस्फरस, लोखंड, मॅग्नेशियम, मँगॅनीज, तांबें, गंधक, जस्त, आयोडीन, कोबाल्ट आनी हेर मूलद्रव्यांच्या लवणांचो खनिजांत आसपाव जाता.

**उदक:** कुडींत वट्ट वजनाच्या ७० टक्के उदक आसता. मनशाक दिसपट्टें कितलें उदक लागता, हें जण एकल्याची पिराय, लिंग, जेवणखाण, भोंवतणचें तापमान आनी परिस्थिती हांचेर आदारून आसता. सादारणपणान, १ किलोकॅलरी अन्नाखातीर १ घन सेंमी. उदक लागता. च्या, कॉफी, दूद, हेर पेयां, शिजयल्लें अन्न, फळां, हांचेवांगडा उदक कुडींत वता.

प्राणीज अन्नांत मांस, तांतीं, नुस्तें, दुदाचे पदार्थ हांचो आस्पाव आसून वनस्पतीज अन्नांत तणधान्यां, कडुणां, गळिताची धान्यां, साकर, फळां भाजीपालो हांचो आस्पाव जाता.

**अन्न तिगोवपाची रीत:** अन्न खूब काळमेरेन तिगून उरचें म्हूण मनीस आपले परीन जायते यत्न करीत आयला. अन्न तिगोवन दवरपाची बुद्द मनशाक अचकीत जाल्ल्या अपघातांतल्यान, अणभवांतल्यान आनी निरिक्षणावरवीं मेळ्ळी. लोणी, ताक, सोरो, खिसमीस, दुकराचें मांस हांचेसारके जिन्नस मनीस सगळ्यांत पयलीं तिगोवन दवरूंक शिकलो. अन्न पेड्ड्यार जावप, कुसप हाचेफाटलीं कारणां सोदून काडपाचो यत्न आर्विल्ल्या विज्ञानान केलो. लुई पाश्चरान, उदक, वारें आनी माती हातूंत शिंपडून पडिल्ले ल्हान जीव अन्नांत वितंजन (ferments), बुरशी (moulds) आनी हेर घाण निर्माण करपाक कारणीभूत आसात हें प्रयोगावरवीं सिध्द केलें.

अन्न तिगोवन दवरचेपासत ज्यो पध्दती सादारणपणान आपणायतात तातूंत सुकोवप, गरम करप, तापवप, थंड करप वा गोठेवप (refrigeration), रसायनिक वा हेर द्रव्यांची प्रक्रिया करप हाचो आस्पाव जाता. फळां, धान्यां, भाजी, नुस्तें आनी मांस सारकें अन्न सुकोन दवरताले. कांय फावट हे जिन्नस भाजुनूय दवरताले; देखीक: स्कॉटलंड देशाचे भाजिल्ले ओटमील (oatmeal). ह्या मुळाव्या पध्दतीचें आर्विल्लें रूप सद्या पळोवंक मेळटा. देखीक: सुकयिल्लें वा निर्जलीकरण केल्लें फळ वा भाजी, सुकयिल्लें दूद आनी तांतयांचो पिठो. नुस्तें, मांस हवाबंद करपी कारखान्यांत मांस वेवसायिक मळार सुकयतात. सुर्वेक साकर सांबाळून दवरपाखातीर सुकयताले.

दूद तापोवन सांबाळून दवरप (Pasteurization of Milk) ही पध्दत आर्विल्ल्या विज्ञानाची देख जावन आसा. मीठ मारप, धुंवर दिवप, विनाग्र, आल्कोल, सोरमीठ (Salt petre) आनी मसाल्याचो उपेग करप, वाऱ्यासावन राखण करप. फोर्मालीन, बेन्झॉय अम्ल, ॲलम, चुनो, सॅलीसायलीक अम्ल, बॉरीक अम्ल सारकीं रसायनां हांचो वापर करप. सूक्ष्म जीवांची वाड थांबोवप, रंग दिवप, ह्यो पध्दती अन्न सांबाळपाखातीर उपेगाक पडटात. विनाग्र आनी हेर आम्ल बॅक्टेरियांक आळाबंदा हाडटात. बरें आल्कोलूय तेखातीर गुणकारी आसता. खंयचेंय फळ १५ ते २०% आल्कोलीक रसायनांत दवरल्यार तिगून उरूंक शकता. आर्विल्ल्या युगांत वितळील्ल्या पॅराफिनाचो उपेग अन्न सांबाळपाखातीर करतात. तांतयाच्या कट्ट्याक अच्छिद्र आवरण लावन तांतीं सांबाळून दवरप शक्य जालां. सद्या आण्विक प्रारणाच्या (Atomic radiation) आदारान अन्न पेड्ड्यार करपी सुक्ष्मजीवाच्या वाडीक आळाबंद बसयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**सांस्कृतिक संदर्भ:** विग्रह कोशांत, जें खावपांत येता ताका अन्न म्हळां- अद्यते अस्मै इति. व्रतराजांत ताची व्याख्या फुडलेतरेन केल्या

> सस्य क्षेत्रगतं प्राहुः सतुषं धान्यमुच्यते।
> आमं वितुषमित्युक्तं स्विन्नमन्नमुदाहृतम।।

अर्थ: शेतांतल्या पिकाक सस्य, कुंड्यासयतच्या दाण्याक 'धान्य', कुंडो काडून वेगळें केल्ल्या धान्याक 'आम' आनी उदक घालून उज्यार शिजयतात ताका 'अन्न' म्हणटात.

पूर्विल्ल्या काळासावन मनशान अन्नाक मानाची सुवात दिल्या. अन्नाचें व्हडपण सांगपी जायत्यो परबो आदीकाळासावन धर्तरेर मनीसजात पाळत आयल्या.

पूर्विल्ली मनीसजात अन्न म्हूण मांस आनी कंदमुळां खाताली. मनशाची जशी-जशी उदरगत घडली तशें तशें शेतां रोवन धान्य म्हळ्यार अन्न पिकोवंक लागले. वेदकाळांत 'सातू' ह्या धान्याचेर चड भर आसलो. यजुर्वेद काळांत आयज प्रचलीत आशिल्लीं सगळीं धान्यां प्रसारांत आसलीं.

शतपथ ब्राह्मणांत (९.२.१.१२) धंय, तूप, म्होंव हे पदार्थ अन्न आनी परमअन्न म्हूण सांगलां. तैत्तरीय ब्राह्मणांत (३.२.३.४) 'अन्नं प्राण:'- अन्न म्हळ्यार प्राण म्हळां. ताड्य महाब्राह्मणांत (१३.९.१३) 'अन्नं वा आयतनम्'- अन्न हें पोषक द्रव्य अशें म्हळां. ऐतरेय ब्राह्मणांत (१.५) अन्न हें सोबाय आनी म्हत्व दिवपी आशिल्ल्यान जाचेकडेन अन्न खूब आसा तो लोकांभितर खूब व्हडपणाक पात्र जाता अशें म्हळां.

कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत धान्याचो उपेग करपी जायत्यो पध्दती दिल्यात. तांचीं नांवां अशीं: १. कुट्टककर्म- कुटप, २. पिष्टकर्म- पीठ करप, ३. सक्तुकर्म- भाजप, ४. तैलपीडन- तेल काडप.

**अन्नाचे प्रकार:** अन्नाचें चार तरेन ग्रहण करप जाता. १. भक्ष्य- चाबून खावप २. पेय- पिवप ३. लेह्य- चाटून खावप ४. चोष्य- चोखून खावप.

**अन्नरस:** हे स प्रकारचे मानल्यात. १. मधूर २. अम्ल- आंबट ३. क्षार- खार ४. कोडू ५. तुरट ६. तिक्त- तिखट.

अन्न शिजवचेपासत विंगड विंगड प्रकार आपणायले तरी शिजोवप आनी भाजप हातूंत पुराय पाकशास्त्र आस्पावलां. खंयच्याय पदार्थाक अग्नि दिवप म्हळ्यार भाजप तर अन्नाक उदकांत उज्याच्या हुनसाणीवरवीं मोव करप म्हळ्यार शिजोवप अशें मानतात.

संत ज्ञानेश्वरान अन्नाविशीं म्हळां.

मृत्युचे आघवेचि अन्न। (ज्ञानेश्वरी १८.५६३). अर्थ: अन्नासारको लाब ना आनी मर्णासारकी हानी ना.

विंगड विंगड देशांनी, प्रांतांनी, समाजांनी विंगड विंगड प्रकारचें अन्न घेवपाची पध्दत आसा. १. शिवराक आनी २. मांसाहारी. अन्नाचे दोन प्रकार आसात. दरेक देशाचें अन्न थंयचो सैम, स्थिती आनी काळ ह्या कारणांक लागून बदलता.

हिंदू धर्मांत अन्नाक 'ब्रह्म' म्हळां:

> अन्नं ब्रह्मा रसो विष्णु, भोक्ता देवो महेश्वर।
> प्रीयतां भगवानीशः परमात्मा सदाशिवः।।

अर्थ: अन्न ब्रह्मासमान आसा. विष्णु रसाकडेन संबंदीत आसा. शंकर हो ताचो भोक्ता आसा.

हिंदू, मुसलमान, पारशी, बौध्द आदी धर्मांत अन्न दिवन अतिथीक तृप्त करतात. श्राध्दादिसा ब्राह्मणांक आपोवन तांकां अन्न दितात. स्वताचे पितरच तें अन्न जेवतात अशी त्याफाटल्यान भावना आसता.

धर्म आनी नीत हांचो अप्रत्यक्षपणान अन्नाकडेन संबंद येता. नैतिक कायद्याचो आरंभ खास अन्नाच्या निशेधासावन सुरू जाता. सुदारिल्लो समाज स्वताखातीर अन्न निर्मिता; तेचपरी जेन्ना हंगाम नासता तेन्ना सांबाळून दवरता. रानवटी समाज पुराय तरेन सैमीक अन्नाचेर आदारून आसता.

- माधव गोविंद भुस्कुटे

**अन्नपूर्णा-१ :** अन्नपूर्णा ह्या शब्दाचो अर्थ अन्न-धान्य पुरेवपी देवता असो जाता. अन्नपूर्णेक संस्कृतांत 'हिमाल' म्हणटात. पुराणांत अन्नपूर्णेक पार्वतीचो अवतार म्हळां. काशीक अन्नपूर्णेचें देवूळ आसून त्या वाठारांतले सगळे जनतेन जेवण घेतल्याबगर, ही देवता जेवना अशी आख्यायिका चलता. चांद्रसेनी कायस्थ समाजांत बायल आपलो घोव प्रवासाक गेल्लो आसतना तिची पूजा करता आनी घोवाक प्रवासांतल्यान बरे भशेन

राखून हाड अशें आंगयता.

श्री विद्यार्णवतंत्रांत तिची मूर्त सुवर्ण-वर्ण, शशिकला धारण करपी, त्रिनेत्र, भू-श्रीपूजित दाव्या हाताक पान-पात्र, उजव्या हाताक पळी जाल्यार नदर नाचपी शिवाकडेन लागिल्ली आसची अशें म्हळां. हिचो मंत्र असो आसा.

ॐ श्री-ह्रीं क्लीं नमो भगवति अन्नपूर्णे
ममाभिलषितमन्न देहि देहि स्वाहा!

ह्या मंत्राचें सवाय लाख फावटीं पुरश्चरण करचें अशें सांगलां. पुराणांत तिची कथा आसा, ती अशी-



अन्नपूर्णा-काशी

शिव भीक मागून आपल्या कुटुंबाचें पोट भरतालो. एक दीस ताका फाव तशी भी क मेळ्ळीना. देखून सगळ्यांक उपास घडलो. तेन्ना नारदान हो वेळ सादून शिव-पार्वती भीतर कळ लायली. ताणें शिवाक सांगलें, 'पार्वतीच्या अशुभ पांयगुणाक लागून तुका भीक मेळना आनी तुजी उपासमार जाता'. उपरांत पार्वतीक वचून म्हळें, 'शिव हो दुर्भागी आशिल्ल्यान तुमकां उपाशीं दीस सारचे पडटात.' नारदाली सांगणी आयकून पार्वतीन शिवाक सोडपाचें थारायलें. तेन्ना नारदान तिका म्हळें, 'तूं आयज शिवाचे पयलीं भीक मागूंक वच. पार्वतीन तेभशेन केलें. तिका भरपूर भीक मेळ्ळी. फाटल्यान शिव गेलो, पुण ताका हात हालयत परतुचें पडलें. त्या दिसा पार्वतीन स्वता भीक मागून पुंजायिल्ल्या अन्नांतल्यान घरांतल्या सगळ्यांक पोटभर जेवण वाडलें. शिवान पार्वतीच्या कर्तुपाचेर प्रसन्न जावन 'तूं अन्नपूर्णा आसा' असो आशीर्वाद दिलो.

- कों. वि. सं. मं.

**अन्नपूर्णा-२ :** हिमालय पर्वताच्या एका फांट्याक अन्नपूर्णा म्हणटात. नेपाळ आनी हिमालयपर्वत हांच्या मर्दी अन्नपूर्णा तेमकां आसात. अन्नपूर्णेचो वाठार गिरीपिंडात्मक आसून ५९ किमी. वाठारांत पातळिल्लो आसा. ह्या वाठारांतल्यान व्हांवपी हिमन्हंयो ह्या प्रदेशाच्या अस्तंतेक काली, गंडकी, दक्षिणेकडल्यान सेती, गंडकी आनी उत्तरेक मर्स्यन्दी ह्या न्हंयांक मेळटात. ह्या वाठाराच्या अस्तंत भागाक अन्नपूर्णा- १ (उंचाय-८०७५ मी.), उदेंत भागाक अन्नपूर्णा-२ (उंचाय- ७,९३७ मी.), दक्षिण भागाक अन्नपूर्णा-३ (७,५७७ मी.) आनी अन्नपूर्णा-४ (७,५२५ मी.) अशीं चार तेमकां आसात. जगांतल्या व्हड तेमकांभितर अन्नपूर्णाचो इकरावो नंबर लागता. १९२५ वर्सा उपरांत भारतीय भूमापन तज्ज्ञांक हो वाठार नापपाची परवानगी नेपाळ सरकारान दिली. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत हो वाठार पळोवपाखातीर तशेंच निरीक्षण करपाखातीर मेकळो करपांत आयलो. १९५० त फ्रेंच गिर्यारोहक मॉरिस हेरझोड आनी ताच्या सांगात्यांनी अन्नपूर्णा- १ तेमक सगळ्यांत पयलीं गांठ्ळें. १९५५त, बिलर, स्टायनमेंट्स आनी वेलेनकँप ह्या जर्मन गिर्यारोहकांनी अन्नपूर्णा-४ तेमक सगळ्यांत पयलीं जिखलें. १९६०त, अन्नपूर्णा-२ शिखर रॅबर्ट्सच्या फुडारपणासकल ब्रिटीश, नेपाळी आनी भारतीय गिर्यारोहकांनी सगळ्यांत पयलीं सर केले. मे १९७०त जपानाच्या इकरा बायलांनी अन्नपूर्णा-३ तेमकाचेर पांय दवल्लो. हिमालयांतल्या सगळ्यांत ऊंच तेमकार पावपी त्या काळावेल्यो त्यो पयल्यो बायलो आसल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**अपदानः** पाली भाशेंतलो एक नामनेचो ग्रंथ. अपदान ह्या उतराचो अर्थ शुध्दाचरण वा शूरकर्म असो जाता. बुध्दाच्या काळांत जावन गेल्ल्या बुध्द संप्रदायांतल्या ५५० दादल्यांचीं आनी ४० बायलांचीं चरित्रां ह्या ग्रंथांत आस्पावल्यांत. ह्या ग्रंथाच्या पूर्विल्लेपणाविशीं दोन देखी मेळटात, त्यो अश्योः

१. ह्या ग्रंथांत आस्पावल्ल्या ४० चरित्रांतले चडशे उतारे थेरी गाथेचे टीकेंत आसात. तातूंतल्या एका उताऱ्यांत क्रिस्तापयलीं तिसऱ्या शतमानांत रचिल्ल्या 'कथावत्थू' नांवाच्या ग्रंथाचो उल्लेख आयला. २. दीघनिकायांत इतिहासीक बुध्दाच्या आदी स बुध्द जावन गेले अशें म्हळां. बुध्दवंश हातूंत हो आंकडो चोविस दिला. अपदानांत हो आंकडो पस्तीसांचेर पावला. दीघनिकायाचे पाठ्क अपदान ग्रंथाचो आस्पाव अभिधम्मपिटकांत करताले, तर मज्झिमनिकायाचे पाठ्क ताचो आस्पाव सुत्तन्त पिटकांत करताले, हें 'सुमंगलविलासिनी' ह्या ग्रंथावेल्यान दिसून येता. संप्रदायाभितरलो हो मतभेद ह्या ग्रंथाच्या पूर्विल्लेपणाची साक्ष मानतात.

दरेका अपदानांत पयलीं तातूंतल्या नायक वा नायिकेच्या पूर्वजल्माचो इतिहास आयला. ते उपरांत चालू जल्मांतल्यो गजाली दिल्यात. हाचेवेल्यान अपदान हें जातकाप्रमाण वर्तमान आनी भूतकाळाचें पुराण अशें मानतात. जातकांत बुध्दाच्या पूर्वजल्माची काणी आसता, तर अपदानांत खास करून अर्हताची कथा आसता होच दोगांमदलो फरक. 'विसुध्द-जन-विलासिनी' ह्या नांवान अपदानाचेर एक टीकाय वाचूंक मेळटा. गंधवंशांतल्या दोन उताऱ्यांवेल्यान, हे टीकेचो रचनाकार बुध्दघोष आसा अशें दिसता.

पयल्या शतमानांत, बौध्द संस्कृत भाशेंत ग्रंथ रचपाक लागले. तेवेळार अपदानाचें 'अवदान' अशें संस्कृत रुपांतर जालें. जायत्या अपदानाचे संस्कृत तिबेटी भाशेंत अणकार जाल्यात. 'अवदानशतक' आनी 'दिव्यावदान' हे तातूंतले मुखेल ग्रंथ आसात. ह्या अवदानांत अपदानांतल्यो कथा आसात तश्यो घेवंक नात, तर तातूंतल्या कांय कथांचेर संस्कार केल्यात आनी कांय कथा नव्यान बरोवन काडल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**अपभ्रंशः** भ्रश्ट जाल्लें वा विकृत जाल्लें ह्याच अर्थान पयलींच्या काळांत 'अपभ्रंश' ह्या उतराचो उपेग जातालो. जांकां संस्कृत उलोवंक येनाशिल्ली तांचे भाशेक अपभ्रंश अशें म्हण्टाले. हांगा अपभ्रंश म्हळ्यार संस्कारहीन ह्या अर्थान ह्या उतराचो उपेग जातालो. फुडें फुडें ह्या अपभ्रंशभाशेक बोली भाशेचें स्वरुप मेळ्ळें. भरताच्या काळांत वायव्य दिकेकडेन रावपी आभीरांचे भाशेक अपभ्रंश अशें पाचारिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. राजशेखर, दण्डी, भामह ह्या विद्वानांनी अपभ्रंश भाशा म्हळ्यार एक थळावो भेद अशें मानलां. राजशेखर हाणे काळरुपी म्हापुरसाची एक कल्पना करून संस्कृताक ताचें मुख, प्राकृत भूजां, अपभ्रंश जांघो आनी पैशाची पांय अशें चित्र उबें केलां. त्या काळांत राजदरबारांत संस्कृत कवी उत्तरेवटेन, प्राकृत कवी उदेंतेवटेन, अपभ्रंश अस्तंतेवटेन आनी पैशाची कवी दक्षिणेवटेन आसताले अशें मत आसा. ताचेवयल्यान भारतांतल्या खंयच्या वाठारांत ही भाशा वापरताले हाचो अदमास मेळटा.

'अपभ्रंश' ही साहित्याची भाशा हें कालिदासाच्या 'विक्रमोर्वशीयम्' ह्या नाटकांत दिसता. ह्या नाटकांत पुरुरवा भ्रमिश्ट अवस्थेंत अपभ्रंश भाशेंत पदां म्हण्टा. वलभी घराण्यातलो राजा धरसेन हाणे आपल्या फातरापट्यांचेर अपभ्रंश भाशेचो वापर केला. ह्या घडणुकांचो काळ इ. स. सुमार ४०० ते ६०० हांचेमदीं आसा, आनी अपभ्रंश भाशा ही उलोवपाची भाशा म्हूण ताचेपयलींसावन आशिल्ल्याचें सिध्द जाता.

'अपभ्रंश' ही प्रजेची भाशा आशिल्ली. थवय, लोखणकार, शेट,

तांबट तशेंच राजाचे सेवक ती उलयताले. राजस्थान आनी पंजाबांतले आभीरय हीच भाशा उलयताले. आभीर हे लोक हेडगे आशिल्ल्यान ते जळींमळीं भोंवत आपली भाशा पातळायत गेले. थळाव्या हेर भाशांचो प्रभाव पडिल्ल्यान फुडें अपभ्रंशाचे कितलेशेच भेद जाले. राजशेखर हाच्या मतान हें भाशेचे मुखेल अशे तीनच भेद- नागर, उपनागर आनी व्रचड, हे आसात. नमिसाधु हाच्या मतान उपनागर, आभीर आनी ग्राम्य हे तीन भेद आसात. हेमचंद्र ह्या व्याकरणकारान मात अपभ्रंश साहित्याची भाशा ही एकूच अशें मानून तिचें व्याकरण बरयलां.

सुर्वेक भ्रश्ट अशी जल्माक आयिल्ली अपभ्रंश भाशा भारतभर पातळळी. भरताच्या काळांत ताची मात्तूय उदरगत जावंक नाशिल्ली आनी शबर, आभीर आनी वायव्येकडले लोकूच ती वापरताले. सव्या शतमानांत काव्य, अलंकारशास्त्र, नाटक ह्या साहित्यप्रकारांनी ती पावली. णवव्या शतमानांत ती जनसामान्यांची भाशा म्हूण नांवारुपाक आयली आनी राजस्थानांत जल्माक आयिल्ली ही भाशा मगध देशामेरेन पावली. इकराव्या शतमानांत तिचे जायते प्रकार जाले आनी साहित्यांतल्यान तिचो सर्रास उपेग सुरू जालो.

संस्कृत आनी प्राकृताभाशेनच अपभ्रंश हें नांव प्रदेशवाचक न्हय तर गुणवाचक आसा. हे भाशेंतले सगळ्यांत पोरने लेख इ.स. १००० च्या काळांत जैनमुनींच्या बरपावळींतल्यान मेळटात. त्या वेळावयले बरपावळींत थळावे भाशेचो प्रभाव स्पश्टपणान जाणवता. उपरांत ल्हव ल्हव बौध्द सिध्दांचीं स्तोत्रां, ब्रज भाटांची वीररसाचीं पदां, विद्यापतीचीं वैशणव स्तोत्रां हांचेर हे भाशेचो परिणाम जाल्ल्याचें दिसता. अपभ्रंश कवी आपले भाशेक भासा, देसी भासा वा गोमेल्ल भासा अशें म्हणटाले.

इकराव्या शतमानाच्या काळांत हे भाशेचें स्वरूप निश्चित आनी सोपें जालें. वेव्हाराचे नदरेंतल्यान व्याकरणाचो घुसपागोंदळ पयसावलो. सिध्द रुपां, (synthetic forms) ल्हव ल्हव सुटीं (analytic) रुपां जालीं. कठोर वर्ण मृदु जावंक लागले, संयुक्त व्यंजनाचे वांटे जावन फुडें एका व्यंजनाचो लोप जालो आनी पयलींचो स्वर दीर्घ जालो. देखीक- सप्त,> सत्त> सात, कर्म> कम्म> काम. त, थ, द, ध, न हे ट, ठ, ड, ढ, ण जाले. देखीक- पत> पड, त्रुट> ट्टुट्ट, दुल> ढोल, लोचन> लोयण. व्यंजनाचे सुवातेर 'य' नाजाल्यार 'व' दिसूंक लागलें. देखीक- नाग> नाथ, **युगल>** युवल, उदधि> उवहि. महाप्राण 'थ' आनी 'ध' चे सुवातेर 'ह' जालो. देखीक- औषध> ओसह, पृथिवी> पुहई, कथा> कहा. उतरांच्या अंताक 'अ' चो 'उ' जालो. उकारान्त उतर आसप हें हे भाशेचें खाशेलेपण जालें, हाका लागून हे भाशेक 'उकार बहुला भाशा' अशें म्हणटात. देखीकः एलु, जेत्थु, जासु, तासु. अनुनासिक वर्णाचो नासिक्य ध्वनी जावन हेंय हे भाशेचें एक खाशेलेपण जालें. देखीक देवेन> देवें, धरामि> धरऊं. षष्ठी आनी सप्तमीचो 'स' वचून 'ह' आयलो. देखीकः पुत्रस्य> पुत्तस्स >, पुत्तह, तस्मिन> तस्सि> ताहि. क्रियापदांतले अर्थ उणे जावन गणांचो भेद ना जालो. आत्मनेपदाचो प्रयोग जायना जालो आनी जाय तितलेच काळ उरून हेर लोप पावले. परसर्गाचो प्रयोग सुरू जालो. देखीकः मजमहिं= मनांत, महतणी= म्हजो (मेरा). तशेंच ह्या काळांत द्रविड आनी ऑस्ट्रिक भाशांतल्यान हे भाशेंत उतरां येवन ही भाशा चड गिरेस्त जाली.

ही भाशा जरी इकराव्या शतमानांत उदेली, तरी खरो उदरगतीचो काळ मात १३ वें शतमान ते १७ वें शतमान हो जावन आसा. ह्या काळांत बरीच ग्रंथ रचणूक जाली. जैन आनी बौध्द हांणी ती धर्मप्रचाराक वापरली, आनी तातूंत भरपूर साहित्य बरयलें. इस्लामचो प्रसारय हे भाशेंतल्यान बरोच जालो.

धर्मीक आनी तत्त्वीक ग्रंथ आयजमेरेन गुजरात आनी राजस्थान राज्यांच्या ग्रंथालयांनी हातबरपांच्या रुपांत पळोवंक मेळटात. अपभ्रंश भाशेंत पयली काव्यरचणूक आनी हेर प्रकारच्या ग्रंथांचीय बरीच रचणूक जाल्या. पृथ्वीराजरासो, संदेशरासक हीं वीर काव्यां आनी विद्यापतीचें किर्तीलता हें शृंगारकाव्य सोडल्यार चडशे ग्रंथ धर्मीक विशयांवयले आसात. जिनदत्त सूर्य हाच्या उपदेशरसायनांत मनशान धर्मीक कृत्यां कशीं करचीं हाचें वर्णन आसा. तातूंत ६६ म्हापुरुशांच्या आनी तीर्थंकरांच्या चरित्रां वांगडा स्तोत्रांय आसात. ह्याच काळांत चुनरी, चर्चरी आनी पुलक नांवांच्या काव्यांची रचणूक जाली. चुनरी हातूंत धर्मीक आनी बऱ्या आचरणाचो उपदेश आसा. चर्चरी हातूंत गुरूची व्हडवीकाय जाल्यार पुलक हातूंत मनशान जिवीत कशें सारचें हाचेर उपदेश आसा. हेमचंद्राचें पयलें व्याकरण ११ व्या शतमानांत बरयिल्लें.

बौध्द सिध्दांनी बरयिल्ली काव्यरचणूक दोन तरांची आसा. एकेवटेन ताणी बौध्द धर्माचे सिध्दांत मांडल्यात, जाल्यार दुसरेखटेन ब्राम्हण धर्माचें खंडन केलां. शैवमताच्या लोकांनीय अपभ्रंशांतल्यान धर्मप्रचारात्मक पदां बरयल्यांत.

परमउचरित्र; धनपाल हाचें मविसयलकहा; महेश्वर सूरि हाचे संजमंजरी, महापुराण, यशोधर चरित्र, कथाकोश, पार्श्वपुराण; पुष्पदंताचें तिसस्सि महाचुरि सगुणालंकार, योगेन्द्र देवाचो परात्म प्रकाश हे काय अपभ्रंशांतले मुखेल ग्रंथ आसात. मार्कंडेय हाणे सुमार १७ व्या शतमानांत अपभ्रंशाचें विस्तारान व्याकरण बरयलें.

अपभ्रंश काव्यांत हेर रसाचें दर्शन जालें तरी शांतरस हो ताचो मुखेल रस आसा. प्रबंध काव्याची मांडावळ संस्कृत महाकाव्याभाशेन आसा. हे भायर मुक्त, स्वच्छंद अशी नेम मोडून केल्ली मांडावळय हातूंत दिसता. अपभ्रंश भाशेचो काळ म्हळ्यार आर्विल्ल्या भाशांच्या जल्माची पूर्वतयारी अशें म्हण्टात, आनी ताकाच लागून आयच्या बऱ्याच भाशांचें मूळ अपभ्रंशांत दिसता.

- पुष्पा पै

**अपरान्तः** अपर म्हळ्यार अस्तंत. ताचो अंत वा निमणेवटेनचो वाठार म्हळ्यार 'अपरान्त'. 'अपरान्त' ह्या शब्दाचो अर्थ अस्तंत वा अस्तंत देगेवेलो एक देश असो जाता. पूर्विल्ल्या बरपावळींनी अपरान्त ह्या प्रदेशाक कुट्टापरांतक, अपरंध्र, शूर्पारक, अपरंतक, अरियके, अपलत अशीं वेगवेगळीं नांवां मेळटात. महाभारताच्या भीष्मपर्वांत अपरान्ताचो उल्लेख आयला.

अस्तंत घाट आनी अरबी दर्या हांच्यामदलो आर्विल्लो कोंकणपट्टीचो वाठार म्हळ्यार 'अपरान्त' देश अशें पुराणांत मेळटा. अपरान्ताचें प्राकृत नांव 'कोंकण' अशें भारतीय संस्कृतिकोशांत म्हळां. डॉ. भांडारकराच्या मताप्रमाण अपरान्त हो आयच्या उत्तर कोंकणाचो वाठार. रघुवंशांत मल्लिनाथान केल्ले टीकेंत ह्या देसाची राजधानी शूर्पारक (आयचें सोपारा) हांगा आशिल्ली अशें म्हळां. युआन-च्वांगच्या मताप्रमाण ती राजधानी कोंकणपूर आनी अल-बीरुनीच्या मताप्रमाण 'तन' (आयचें ठाणे) गांवांत आशिल्ली. अपरान्तांत खूब पावस पडटा अशें कौटिल्यान बरयलां. मोग्गलिपूत तिस्स हाणे इ. स. प. सुमार २४७ वर्सां अपरान्तांत, बौध्द धर्माचो प्रसार करपाक आपले शिष्य धाडिल्ले अशें लंकेंतल्या 'महावंसो' ह्या ग्रंथांत म्हळां. कितलींशींच वर्सां सातवाहन राजांनी अपरान्तांत राज्य केल्लें अशी एक नोंद भारतीय संस्कृतिकोशांत मेळटा महाराष्ट्राच्या मुखेल वेपारी नगरांचो संबंद 'अपरान्त' देशांतल्या शूर्पारक (सोपारा) आनी चौल बंदरांकडेन आशिल्लो अशी नोंद एका फातरापट्यांत मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**अप्सराः** अप्+सरस अशी ह्या शब्दाची फोड करून उदकांत क्रिडा करपी त्यो अप्सरा अशी सायणाचार्यान ह्या शब्दाची व्युत्पत्ती दिल्या. अप्सरा हें उत्तर वैदिक वाङ्मयांत गंधर्व शब्दाक जोडून येता. यजुर्वेद आनी अथर्ववेद हातूंत ताचीं खासा वर्णनां आसात. महाभारतांत अप्सरांचो उल्लेख खूब कडेन आयला. कश्यपापसून प्राधेक रंभादि अप्सरा जाल्यो अशें संभव पर्वांत सांगलां. त्यो सुर्यामुखार नाच करतात आनी द्वादशादित्यांवांगडा चलतात (भागवत पुराण १२.११.४७). समुद्रमंथनापसून हांची उत्पत्ती जाली अशें भागवतांत सांगलां. अप्सरा

मेरुपर्वताचेर रावतात. कामदेव हो तांचो अधिपती ( (ब्रह्मांड पुराण). महाराष्ट्रांत तांकां 'आसऱ्या' अशेंय म्हणटात. फारशी भाशेंत अप्सरेक 'हरी' म्हणटात.

अप्सरा ह्यो गंधर्व वर्गांतल्यो बायलो म्हूण तांकां 'गांधर्वी' अशेंय म्हणटात.

घृताची मेनका रम्भा ऊर्वशी च तिलोत्तमा।
सुकेशी मञ्जुघोषाद्याः कथ्यन्ते ऽ प्सरसो बुधैः ।।

हीं मुखेल अप्सरांचीं नांवां आसात. वायुपुराणांत अप्सरांचो आंकडो चौतीस सांगला. अप्सरांक नाचाचो आनी संगीताची आवडआसता. न्हाण, सुगंध, मद्य आनी मांस तांकां खूब आवडटा. स्वर्गांतल्या इंद्रसभेंत नाचगायन करून देवांक आनी स्वर्गस्थ पुरुशांक शृंगारसुख दिवप हें तांकां नेमून दिल्लें कार्य. सुंदर रुपाखातीर अप्सरांची खूब नामना आसा.


अप्सरा - खजुराहो

एकाद्र्या तपस्वी पुरुशाचें तप खर जालें आनी ताचेपसून आपल्या इंद्रपदाक नखलामी आसा अशें दिसलें जाल्यार इंद्रदेव त्या ऋषीचो तपोभंग करपाखातीर अप्सरांक धाडटालो.

अप्सरांचे चवदा गण आसून तातूंत दैविक आनी लौकिक हे दोन भेद आसात. हांचेमदतल्यो कांय अप्सरा ब्रह्मा आनी मनु हांच्यो मानसकन्या आसून बऱ्याच देवांच्यो, ऋषींच्यो बायलो आनी आवयो आसात.

अप्सरा धर्तरेचेर येवन मनशाचेरूय प्रेम करतात. पुरुरवा-उर्वशी हांची मोगाची काणी खूब गाजल्या. ज्यो अप्सरा उदकांत रा बि तो करतात, तांकां जलस्वामिनी म्हणटात. रानांतल्या उदकाच्या कुंडांत, न्हंयो, दर्या, तळीं हातूंत अप्सरा पक्षीरूपान विहार करतात (शतपथ ब्राह्मण). कांय अप्सरा वड आनी पिंपळ हांचेर झोपाळे बांदून झोके घेतात आनी 'कर्करी' नांवाचें गोड वाद्य वाजयतात. पुराणांत अप्सरांच्यो आनी शृंगारविलासाच्यो खूब कथा आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**अफगाणिस्तानः भूंयवर्णनः** नैर्ऋत्य आशियेंतलो, चोंयवशीन भुंयेन खेडायल्लो देश. अक्षवृत्तीय विस्तार २९° ते ३८° ३५' उत्तर आनी रेखावृत्तीय ६०°, ५०' ते ७१°, ५०' उदेंत. ईशान्येकडलो वाखानचो पटो ७५° उदेंत रेखावृत्तामेरेन आसा. देशाचे उत्तरेक रशिया, ईशान्येक चीन, उदेंतेक भारत आनी पाकिस्तान, दक्षिणेक पाकिस्तान आनी अस्तंतेक इराण हे देश आसात. क्षेत्रफळ ६,५०,००० चौ. किमी. हो देश दोंगरांनी भरिल्लो आसून समुद्रथरासावनची उंचाय सुमार १,२०० मी. इतली आसा. हिंदुकुश हो सगळ्यांत व्हडलो दोंगर. ह्या दोंगराचे फांटे कोह-ई-बाबा, बंद-ई-बायान, सफेद-कोह आनी पारोपामिमस हे चोंयवटांनी पातळ्ळ्यात. मदल्या दोंगराच्या कुडक्याक हजाराजात म्हणटात. थंयच्यान जमीन आनी न्हंयो ईशान्येंक सोडल्यार सगळ्या दिकांनी देंवत वतात. देशाचे दक्षिणेक दश्त-ए-मार्गो आनी रेगिस्तान आनी नैर्ऋत्येक खाश हे उसू पडिल्ले वाठार आसात.

हेलमंड ही सगळ्यांत व्हडली न्हंय. हजाराजातसावन दक्षिणेवटेन रेगिस्तान आनी दश्त-ए- मार्गो हांच्यामदल्यान ही व्हांवता. फुडें अस्तंतेक ती दलदलीच्या वाठारांनी पावता. अर्घंदाब ही हे न्हंयची मुखेल उपन्हंय. हजाराजातसावन खाश रुद्र आनी फरह रुद्र ह्यो दोन न्हंयो नैऋत्येवटेन, हरीरुद्र न्हंय अस्तंतेवटेन, मुर्घाब वायव्येवटेन, कुंडुझ उत्तरेवटेन, कोकचा ईशान्येवटेन आनी काबूल उदेंतेवटेन व्हांवता. लोगर, पंजशीर, कुनार ह्यो काबूलच्यो उपन्हंयो. काबूलाभशेन कुर्रम, टोची, गुमल ह्योय न्हंयो उदेंतेवटेन व्हांवत पाकिस्तानांतले सिंधू न्हंयेक मेळटात. अफगाणिस्तानचे अस्तंत शीमेचेर नमकसार हें खाऱ्या उदकाचें तळें आसा. आग्नेयेक सेस्तान वा हामून-इ-हेलमंड आनी गौड-इ-झीरे हीं तळीं आसात. हजाराजात हांगा दश्त-इ-नाबर आनी आब-इ-इस्ताद हीं तळीं आसात.

जमीन खूब तरांची आसा. दोंगरांच्या वाठारांतली रेंवाट, चिकचिकीत, उदेंतेकडेनची काळी, हिंदुकुशच्या दक्षिणेवटेंतली क्षारांनी भरिल्ली आनी उत्तरेवटेंतली चडशी रेंवाट शिमीटाभशेन आसा.

चोंयवशीन भूंय आसल्या कारणान ह्या देशाक दर्यादिग ना.

**हवामानः** कडक गीम आनी एकदम थंड शियांचे दीस हें हांगाच्या हवामानाचें खाशेलेपण. रातीच्या आनी दिसाच्या तापमानांत बरेंच फरक आसता. उत्तरेवटेन अमुदर्या न्हंयच्या वाठारांत गिमाच्या दिसांनी तापमान ५३.३° से. मेरेन वाडटा. उंचेल्या वाठारांनी चडांत चड म्हळ्यार ३२° से. मेरेन तापमान वाडटा. शियाच्या दिसांनी कांय जाग्यांर तापमान -१८° से. मेरेन तर हिंदूकुशाच्या वाठारांत -२६° से. मेरेन देंवता. गिमाच्या दिसांनी वराक २०० किमी. वेगान धुल्लाचें वारें जाल्यार शियाच्या तेंपार उत्तर आनी अस्तंतेवटेंतल्यान थंड वारें व्हांवक लागता. १५५० मी. परस ऊंच आशिल्ल्या वाठारांनी बर्फ पडटा. पावस चडसो शियाच्या दिसांनी आनी वसंत ऋतूंत पडटा. मदल्या ऊंच वाठारांत २५ ते ३० सेंमी. बर्फाच्या रुपान पावस पडटा. दक्षिणेवटेन ५ सेंमी. इतलो पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजातः** मळाच्या वाठारांनी स्टेप्स् प्रकारच्या तणासावन ते ऊंच दोंगराच्या वाठारांनी अल्पायन प्रकारच्या तणामेरेनचें अशें तरेकवार तण मेळटा. देवदार, चीड, स्प्रूस, पायन, ज्यूनिपर, यू, हॅझल, अक्रोड, बदाम, पिश्ता, ऑलिव्ह, तूती, गुजबेरी, जर्दाळू, विलो, पॉप्लर, ॲश हे रुख सांपडटात. तरेतरेचे गुलाब, फुलांच्यो वाली, तशेंच द्राक्षां, लिंबू सारक्या लागवडीक लागून हो वाठार सोबीत दिसता. उसू पडिल्ल्या वाठारांनी अकेशिया, बोरां, बाभळ, हिंग हांचीं झाडां मेळटात. तरांतरांची अळमीय हांगा वाडटात. रानां फकत उदेंतेवटेन नूरिस्तान आनी सफेदकोह वाठारांनी आसात.

भालू, कोलो, तरस, रानवटी कुत्रो, रानमाजर, चित्तो, रानवटी मेंढरां आनी बोकड, मुंगस, चिचुंद्री, जर्बोआ, तरांतरांचे सोंशे ह्या सारकी मोनजात अफगाणिस्तानांत आसा. रानांनी वांस्वेल आनी अमुदर्या सारक्या वाठारांनी वागूय सांपडटात. महोका, हांयस, पॅलिकन, चिमणी, बुलबुल, मॅगपाय हे सारकीं सवणीं आनी कमी प्रमाणांत माहसीर, ट्राव्ट सारकीं नुस्तीं आसात.

**इतिहासः** इ.स. ४००० पयलीं हिंदुकुशाचे उत्तरेक शेतकामती रावताले अशें पुरातत्त्व शास्त्रज्ञांचें मत आसा. इ. स. पयलीं २००० वर्सां आर्यांचो एक चोमो बाल्ख हांगा रावलो आनी बाकीचे इराण आनी सिंधूवटेन गेले. वैदिक वाङ्मयांत अफगाणिस्तानचो बरेंच उल्लेख आसा. ऋग्वेदांतली 'पक्थ' ही जमात म्हळ्यार घडये पठाण आसूं येता. पाणिनीन ह्या देशाक 'कापिषि' आनी थंय तयार जावपी सोऱ्याक 'कापिषायनी' म्हळां. फातरापट्यांवेल्यान काबूलचे उत्तरेक ८० किमी.

आशिल्लें बेग्राम हेंच पयलींचें 'कापिषि' आसूंक जाय अशें दिसता. पूर्विल्ले ग्रीक आनी रोमन भूगोलतज्ञ हाका 'कापिसेन' म्हणटाले. ह्यू-एन-त्संग हाणे हाका 'किआ-पिशे' अशें नांव दिलां. ग्रीक भूगोलतज्ञ स्ट्रॅबो अफगाणिस्तानाक 'अरियाना' म्हण्टा.

इ.स. पयलीं सव्या शेंकड्याच्या मध्याक दक्षिण इराणांतल्या 'अॅकेमेनिड' ह्या साम्राज्याचोच हो एक कुडको हें हांगा मेळिल्ल्या नाण्यांवेल्यान दिसता. इ.स. पयलीं ३२८ वर्सा सुमार अलेक्झांडरान अॅकेमेनिडियनांक हांगासावन धांवडावन ग्रीक सत्तेची थापणूक केली. अलेक्झांडराउपरांत सेल्यूकस निकेटर हांगाचो राजा जालो. चंद्रगुप्तान ताचो पराभव करतकच ताणे हिंदुकुशाचो उदेंत आनी दक्षिण वाठार चंद्रगुप्ताक दिलो. इ. स. १३० पयलीं ते १२५ ह्या काळांत पार्थियन आनी युएची चोम्यांनी बॅक्ट्रियन-ग्रीकांचेर जैत मेळयलें. युएची चोम्यांतल्या कुशाणानी बाल्ख हांगा आपलो शेक गाजोवंक सुरवात केली. तांच्या वंशांतल्या काडफिसेस आनी उपरांत कनिश्क हाणी हिंदुकुश दोंगराचे उदेंतेक काबूल कंदाहार हांगा आपल्या राज्याची थापणूक केली. कनिश्कान थंय बौध्द धर्माचो प्रसार केलो; बामियानच्या लागीं बुध्दाच्यो मूर्ती, कंदाहार शैलीचें शिल्प आनी अशोकाचे शिलालेख मेळटात. कनिश्का उपरांत हें साम्राज्य नश्ट जालें. हुणांनी घुरयो घालून हांगा ल्हान- व्हड राज्यां तयार केलीं. सातव्या शेंकड्यासावन अरबांनी हांगा धुरी घालून इस्लामीकरणाक सुरवात केली. पूण काबूल हांगा १० व्या शेंकड्यामेरेन हिंदू राजा राज्य चलयताले असो उल्लेख मेळटा. अलप्तगीन हाणे ९६३ वर्सा गझनी हांगा स्वतंत्र राज्य निर्मिलें. उपरांत आयिल्ल्या सबक्तगीनान हिंदू राज्य जिखिल्ल्याचें 'अल्-बरुनी' बरयता. ते उपरांत गझनीच्या महंमदान १००१ वर्सा पंजाबचो राजा जयपाल हाचेर जैत मेळयलें. जयपाल त्या काळार हिंदुकुश ते गझनीमेरेन राज्य करतालो. गझनीची शक्त उणी जायत वता म्हळ्यार घोर हांगा बा[illegible]व्या शेंकड्यांत सेल्जूक तुर्कांची एक सत्ता तयार जाली. घोरचो महंमद हाणेय गझनीच्या महंमदाभशेन हिंदुस्तानाचेर घुरयो घालून बरीच संपत्ती मेळयली. १२१९ त चंगीझखानान हीं राज्यां नश्ट केलीं आनी अफगाणिस्तानांतलीं बरींच शारां भूंयभरवण केलीं. चंगीझखानाउपरांत ताचे वंशज जरी सत्तेर आयले, तरी हांगा बरींच स्वतंत्र राज्यां आशिल्लीं. १३८० त तैमूरलंगान अफगाणिस्तान जिखून घेतलें. ताच्या उपरांत ताचो चवथो पूत शहारुख (१४०५-४७) हाचेकडेन अफगाणिस्तान आशिल्लें. ताची राजधानी 'हेरात' ही आशिल्ली. बरेचशे कवी, विद्वान, संगीतकार, शिल्पकार ताच्या आलाशिऱ्यांत उरले. हाणेच हेरात शाराचे सांस्कृतिक म्हत्व वाडयलें. उझबेकचो मुहंमदखान शैबानी हाणे मध्य अफगाणिस्तानांत १५०४ त आपली सत्ता हाडली आनी काबूल आपली राजधानी केली. ताणे इराणचो शहा इस्मायल हाका पालव दिवन शैबानीचो पराभव केलो. बाबरान १५२२ वर्सा कंदहार जिखलें. फुडें ताणे आपली राजधानी दिल्लीक हाडल्याउपरांत अफगाणिस्तान हो मोगल साम्राज्याचोच एक भाग जालो. हे फुडलीं दोनशीं वर्सां अफगाणिस्तानाक स्वतंत्र अशें राजकी अस्तित्व नासलें. अफगाणिस्तानांतलो हिंदुकुशाच्या उदेंतेकडलो वाठार हिंदुस्तानांतल्या मोगलांकडेन आशिल्लो जाल्यार हेरात आनी सेस्तानचो वाठार सफाविद ह्या इराणच्या घराण्यांकडेन आशिल्लो. कंदहारविशीं दोगांयमदीं वाद चलतालो. सतराव्या शेंकड्याच्या मध्याक सफाविदांनीं कंदाहार आनी हेरातचेर जैत मेळयलें.

अठराव्या शेंकड्याच्या सुर्वेकसावन अफगाणिस्तानांत स्वतंत्रतायेची कल्पना जल्माक आयली. १७०९ वर्सा होटाकी घिलझई हे टोळयेचो फुडारी मीरवैयखान हाणे इराणाच्या सुभेदाराआड झुज उबारलें. ताणे १७१५ वर्सा कंदहार जिखलें. १७१६ त हेरातच्या अब्दाली टोळयांनी इराणाआड बंड केलें. १७२२ वर्सा मीरवैयखानाचो पूत मुहमद हाणे इराणांतल्या इस्फाहानाचेर घुरी घाली. इराणचो नामनेचो नादिरशहा हाणे अफगाणांचेर जैत मेळवन १७३७ वर्सा कंदाहार आनी काबूलाचेर आपलो शेक गाजयलो. ताच्या उपरांत अफगाण सरदारांनी अहमदशाह अब्दालीक कंदाहारचो राजा केलो. हाणे अफगाणिस्तानाक परकी सत्तेंतल्यान मुक्त केले आनी सध्याचें अफगाणिस्तान अस्तित्वांत हाडलें. हाणे हिंदुस्तानाचेर बऱ्याच फावट घुरयो घाल्यो. १७६१ चे लडायेंत ताणे पानिपत हांगा मराठ्यांचेर जैत मेळयलें. ताच्या उपरांत सत्तेर आयिल्ल्या तिमूरशहाच्या पुतांभितर सत्तेखातीर झुजां पेटलीं.

१९ व्या शेंकड्यांत रशिया आनी ग्रेट ब्रिटन हांच्यामदीं अफगाणिस्तानचेर शेक गाजोवचेखातीर सर्त लागली. रशियाकडल्यान हिंदुस्तानची राखण करपापासत ब्रिटिशांक अफगाणिस्तान आपल्या हातांत दवरपाची गरज आशिल्ली. हे सर्तीचो परिणाम म्हळ्यार ब्रिटन आनी अफगाण हांचेभितर तीन लडायो जाल्यो. १८३९ च्या पयले लडायेंत ब्रिटीश सैन्य काबूल मेरेन गेलें, पूण अफगाणानी ब्रिटीश लोकांची व्हड प्रमाणांत कत्तल केल्यान तांकां फाटीं सरचे पडलें. १८७८ वर्सा अफगाणिस्तानचो शेरअली ब्रिटिशांची सत्ता मानून घेवंक तयार जालोना; हाका लागून परत ब्रिटीश सैन्य काबूलमेरेन गेलें, पूण ह्याय फावट तांची तशीच कत्तल जाल्यान तांकां पर्थून फाटीं सरचें पडलें. १८८० वर्सा ब्रिटिशांनी अब्दुर रहमान हाचें अमीरपद मान्य केलें, पूण अफगाणिस्तानचें पराराष्ट्र संबंदांचें नियंत्रण स्वताकडेन दवरलें. अब्दुल रेहमानान अफगाणिस्तानांत एकतंत्री कारबार चालू केलो. ताच्याच काळांत १८९३ वर्सा सर मार्टिमोर ड्युरंड हाणे अफगाणिस्तान आनी हिंदुस्तान हांच्या भितरल्यो शीमो थारायल्यो. उपरांत हबीबुल्ला, अमानुल्ला, मुहम्मद नादिरशहा हे अमीर जाले. अमानुल्ला सत्तेर येतकच ताणे अफगाणिस्तानच्या स्वतंत्र राज्याची घोशणा केली आनी ब्रिटिशांचेर धुरी घाली. (१९१९). हाकाच अफगाण-ब्रिटीश हांच्याभितरली तिसरी लडाय अशें म्हणटात. ही लडाय रेखडीच सोंपली, पूण ब्रिटिशांनी फाटीं सरून अफगाणिस्तानच्या स्वतंत्र अस्तित्वाक मान्यताय दिली. अमानुल्लान बऱ्योच समाजीक सुदारणा केल्यो. बुरखो पध्दत बंद करप, बायलांक शिक्षण, ह्यो तांतल्यो कांय मुखेल. ताच्या उपरांत सत्तेर आयिल्ल्या नादिरशहाचे राजवटींत अफगाणिस्तानचें संविधान तयार जालें, पूण ताचो रेखडोच खून जालो. ताचो पुतणयो मुहंदम झहीरशहा सत्तेर आयलो (१९३३). १९७३ मेरेन तोच अमीर उरलो. ताच्या काळांत म्हत्वाच्यो देश सुदारणेच्यो कार्यावळी घडल्यो. १८ जुलै १९७३ वर्सा देशांत क्रांती जावन राजेशाय काबार जाली. सरदार मुहंमद दाऊदखान अध्यक्ष जालो. रगतहीन क्रांती उपरांत सत्तेर आयिल्ल्या दाउदखानान १९७७ वर्सा आपल्या सोयऱ्यांक आनी बऱ्या मागत्यांक आपल्या मंत्रीमंडळांत घेतले आनी एकतंत्री कारबार चलोवंक लागलो. हाचो परिणाम म्हळ्यार देशभर खून, दंगे आनी राजकी आंदोलनांक नेट चडलो. तेन्ना जाल्ल्या बंडांत दाऊदखानाचो खून जालो आनी २७ एप्रिल १९७८ दिसा अफगाणिस्तानाचें लोकशाय प्रजासत्ताक जल्माक आयलें. नूर महंमद तराकी हो देशाचो कारबार चलोवंक लागलो. ताच्या हाता खाल बाब्राक कार्मल आनी हफिजुल्ला अमीन वावुरताले. तराकीच्या काळांत देशांत मार्क्सवादी पध्दतीच्यो समाज सुदारणा जाल्यो. १४ सप्टेंबर १९७९ दिसा तराकी आनी हफिजुल्ला हांच्याभितरल्या झगड्याचो परिणाम तराकीच्या खुनांत जालो. अमीन सत्तेर आयलो. ताणे रशियाविरोधी धोरण घेवन पाकिस्तान आनी अमेरिकेकडेन बरे संबंद दवरपाचे नदरेन पावलां मारूंक सुरवात केली. पूण २४ डिसेंबर १९७९ दिसा रशियन सैन्य अफगाणिस्तानांत घुसलें. अमीन आनी ताच्या हेर वांगड्यांक ह्या वेळार जाल्ल्या लडायेंत मर्ण आयलें. बाब्राक कार्मल जो रशियेवटेन आशिल्लो तो देशाचो मुखेली जालो. १९८१ वर्सा कार्मल सत्तेवयल्यान देंवलो आनी केश्टमांद सत्तेर आयलो. इतले मजगतीं अफगाण बंडखोरांचें (मुजाहीदीन) रशियन सैन्याआड झूज चालूच आशिल्लें. कितलेशेच अफगाण-निर्वासीत आलाशिरो घेवंक इराण आनी पाकिस्तानांत पळून गेले. रशियन सैन्य थंयच्यान १९८८ वर्सा नजीबुल्लाचे राजवटीवेळार परतें रशियांत वचपाक भायर सरलें. फेब्रुवारी १९८९ मेरेन सैन्याचो निमणो पंगड रशियांत परतलो.




**राज्यवेवस्था:** विसाव्या शेंकड्यापयलीं अफगाणिस्तानांत राजा आनी तांच्या कुटुंबांची सत्ता चलताली. १९२३ आनी १९३१ वर्सा दोन संविधानां (घटना) तयार जालीं; जातूंतल्यान सगळी सत्ता वंशपरंपरेन येवपी राजाच्या हातांत दिली. १९६४ च्या संविधानान कार्यकारी (executive), विधीमंडळ (legislature) आनी न्यायसंस्था (judiciary) अशें सत्तेचें विकेंद्रीकरण केलें, पूण राजेशाय तशीच आशिल्ली. १९७३ त जाल्ल्या लश्करी बंडाउपरांत १९६४ चें संविधान रद्द केलें आनी प्रजासत्ताकाची थापणूक केली. फेब्रुवारी १९७७ त 'लोया जिर्गा' ह्या सर्वोच्च विधीमंडळान नवें संविधान तयार केलें पूण तेंय १९७८ तल्या बंडाउपरांत रद्द केलें. १९७९ वर्सा रशियेन हांगा समाजवादी सरकाराची बुन्याद घालून दिली आनी खल्क (लोकांचो) पक्ष हो एकूच कायदेशीर पक्ष अस्तित्वांत उरलो.

अफगाणिस्तानची राज्यपध्दत केंद्रीय आसा. प्रशासनाच्या सोंपेपणाक लागून देशाचे २७ प्रांत केल्यात. दर प्रांताचेर शासन चलोवचेखातीर एक राज्यपाल आसता. शारांनी आनी गांवांनी लोकांनी वेंचून दिल्ले प्रतिनिधी राज्यकारभार चलयतात.

देशाभितरलो कायदो आनी सुवेवस्था सांबाळपाचें काम भितरलें पोलिस खातें करता, जाचे अधिकार घरखात्याकडेन आसात. देशाची राखण करपी सैन्याचेर पयलीं राजाचे अधिकार चलताले पूण १९७८-७९ च्या बंडा उपरांत क्रांतीकारी मंडळ (Revolutionary Council) आनी ताचे फुडारी सैन्याचेर नियंत्रण दवरतात.

**अर्थीक स्थिती:** उद्येगीक नदरेंतल्यान अफगाणिस्तान एक फाटीं आशिल्लो देश. सद्याक रशियेच्या पालवाक लागून हांगाच्या उद्येगांक बरें फाटबळ मेळ्ळां. पूण अन्न, कापूस, लोकर ह्या गजालींनी मात अफगाणिस्तानाक कोणाची मदत लागना. ८०% श्रमबळ (labour force) शेतकामांत आसा. ८०% परस चड लोक शेतवेवसायाचेर आदारून आसात. चडशी जमीन पिकावळीखातीर उपेगी ना. दोंगरी वाठारांतली तणाचीं मळां गोरवांक चरपाखातीर उपेगी थारतात. हिंदुकुशाचे उत्तरेकटेंतली जमीन शेताखातीर सामकी बरी आसा. चडांतचड जमीन पिकावळीखाला हाडपाचे यत्न चालू आसात. लोकांचें मुखेल पीक म्हळ्यार गंव. तेभायर तांदूळ, बार्ली, कापूस, बीट, ऊंस, मको, ज्वारी, बाजरी, मसूर, तंबाखू ह्या सारकीं पिकांय हांगा जातात. बटाट, कांदे, मिरसांग, टॉमाट, कोबी, गाजर ह्या सारक्या भाजीपाल्यांची बरींच शेतां आसात. फळांखातीर हो देश नांवाजला. हांगा बरेपैकीं द्राक्षां, काळंगां, जर्दाळू, अक्रोड, डाळींब, सफरचंद, केळीं, मोसंबी, संत्रां हांचेंय उत्पादन जाता. फळांचो उपेग चडसो निर्यातीखातीर जाता. पशुपालन हो लोकांचो दुसरो मुखेल उद्येग. दोंगरी वाठार आनी थंय वाडपी तण हाका लागून हो वेवसाय मोट्या प्रमाणांत चलता. मेंढरां हें हांगाचें मुखेल पशुपालनाचें जनावर. हांगा तुर्कमेन जातीचे घोडे, उंट आनी गाडवां हांचोय बरोच वेपार चलता.

अफगाणिस्तानांत कोळसो, लोखण, तांबें, शिशें, जस्त हांची सांठ्वण आसा. हालींच हांगा रशियन शीमेलागीं सैमीक वायूची व्हड सांठ्वण आसा अशें समजलां.

१९७० च्या शेवटाक मेरेन अफगाणिस्तानाक पर्यटन धंद्याक लागून बरेंच परकी चलन मेळटालें. देश सोबीत आशिल्ल्यान पर्यटन धंद्याक तेंको दिवचेखातीर हॉटेलां आनी अगरशाळो बांदिल्ल्यो. पूण राजकी अस्थिरतेक लागून सद्या तरी पर्यटन धंद्याची वाड जावंक ना.

आर्विल्ले उद्योगधंदे निकतेच अफगाणिस्तानांत पावल्यात आनी चडशे शेतकी आनी गोरवांविशींचे आसात. सगळ्यांत म्हत्वाचो म्हळ्यार कापूस कारखानो. हे भायर शिमीट, फळां डब्यांनी घालून तीं निर्यात करप, असले उद्येगधंदे चलतात. हालींच सोरें, साकर, खावपाचें तेल हांचे धंदे वयर सरूंक लागल्यात. एका काळार अफगाणिस्तानाचो अमेरिकेकडेन

बरोच वेपार जातालो. सद्याक लोकर आनी कापसाच्या बदलाक तांकां रशियेकडल्यान गाझोलीन आनी आर्विल्ल्या तंत्रगिन्यानाचेर आदारिल्लीं यंत्रां मेळटात. अफगाणी हें हांगाचें चलन आसा.

**येरादारी आनी संचारण:** अफगाणिस्तानांत रेल्वे नात आनी उदकांतल्यान येरादारी करपासारके जलमार्गय नात. २,६०० किमी. लांबायेचे डांबरी रस्ते आसात आनी १५,३७३ किमी. लांबायेचे सादे रस्ते आसात. मुखेल रस्तो म्हळ्यार गझनी आनी कंदहार मदल्यान पासार जावपी, काबूल आनी हेरात हांकां जोडपी मार्ग. हो रस्तो अमेरिकेच्या पालवान बांदिल्लो. १९७७ वर्सामेरेन २६,१०० वेपारी आनी ३८,४०० सादीं वाहनां आशिल्ल्याची नोंद जाल्या.

आंतरराश्ट्रीय मार्गाचेर प्रवास करपी एरियाना अफगाण एअरलायन्, ही हांगाची मुखेल हवाई संस्था. देशाभितर हवाई येरादारी करपी संस्था म्हळ्यार बख्तर अफगाण एअरलायन्. काबुल हांगा मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. हेरात, कंदहार, मझर-ए-शरीफ, कुंडुझ, जल्लालाबाद, मझर हांगाय विमानतळ आसात.

अफगाणिस्तानांत ३५,००० वयर टेलिफोन आसात आनी २२१ पोस्ट कार्यालयां, खबरांपत्रां आनी नेमाळीं सरकाराच्या परवानगेन चलतात. तांकां राजकी मतां उक्तावपाचो अधिकार ना.

**लोक आनी समाजजीण:** १९८० चे जनगणनेप्रमाण हांगाची लोकसंख्या २,२०,३७,७०० इतली आसा. मुखेल जमात म्हळ्यार पुश्तू जे हांगाचे नीज अफगाण. हांचें प्रमाण पुराय लोकसंख्येच्या सुमार ६०% वयर आसा. दुर्रानी, घिलझई, मोहम्मद आनी शिन्वारा ह्यो ह्या जमातीच्यो उपजमाती. ताजिक जमातीचे लोक सुमार ३०% आसात. उझबेक ५% आनी उरिल्ले मोगल, हजारा, आनी चहार ऐमाक जमातीचे आसात. ९९% लोक इस्लामपंथी, तांतले ८०% सुन्नी. तेभायर हजारा शिया आनी इस्त्रायल पंथाचेय लोक आसात.

कुटुंबपध्दत पित्तृसत्ताक. घरच्या जाण्ट्या मनशांक मान दितात. लग्नां आनी बाकीचीं नातीं गोतीं जमाती भितरच करतात. गांवगिन्या वाठारांतलीं घरां मातयेच्या विटांचीं आनी सपाट पाख्यांचीं आसतात. बऱ्याचशा घरांभोंवतणी घटमूठ वंयो आसात. द्राक्षां, सफरचंदां हांचे मळे घरां भोंवतणी आसतात. कांय गांवांनी भौशीक न्हाणघरां आसात. गांवच्या मुखेल्याक 'मलिक' नाजाल्यार 'सरदार' अशें म्हण्टात. हाका गांवचे लोक वेंचून दितात. कांय लोक बोकड, मेंढरां आनी हेर गोरवां घेवन गांवागांवांनी हेडटात. हांची जीण सादी आनी बऱ्याच कश्टांची आसता. उंट हें ह्या लोकांचें मुखेल वाहन. तंबू हें तांचें घर. अशा भोंवपी चोम्यांक 'काम' म्हण्टात. बरेच 'काम' एकठांय येतात तेन्ना ताका 'खेल' म्हण्टात. वट्ट लोकसंख्येच्या १०% वयर शारांनी रावपी लोक मात संघटित आसात. हांगाच्यो बायलो बुरख्याखेरीज भोंवतना दिसतात. गांवापरस शारांनी दोन वा ताच्या परस चड बायलो करपाची प्रथा चड दिसून येता. हालीं ही प्रथा कमी जावपाचीं चिन्हां दिसतात.

अफगाण लोकांच्या जेवणांत शीत, मांस, कोंबडी, तांतयां,कांदे, लोणी, चीज हांचो आसपाव आसता. च्या सारकें पेय बरेंच लोकप्रिय आसा. फळांची ह्या लोकांक भोव आवड. सुती लांब शर्ट, ताचेर जाकीट, पांयांत दाट व्हाणो नाजाल्यार बूट अशे ते न्हेसतात. हे लोक सैल पिजाम आनी तकलेर तोपी नाजाल्यार मुंडाशे बांदतात. शिंयाच्या दिसांनी कोट घालतात. बायलांय सैल, आंग धांपपी न्हेसण न्हेसतात. शारांनी आनी सुदारिल्ल्या वाठारांनी अस्तंतेच्या आनी युरोपीय न्हेसणाचो प्रभाव बरोच दिसूंक लागला.

हांगाच्या कलांचेर विंगड विंगड संस्कृतायेचो प्रभाव आसा. पूर्विल्ल्या काळांतले कलाकुसरीचेर हडप्पा, बॅक्ट्रियन, सॅसोनियन, ग्रीक सारक्या कलांचो प्रभाव आसा. कुशाणकाळांतले बौध्दस्तूप आनी बाकीची बौध्द संस्कृतायेंतली शिल्पकला दिसून येता. बरेचकडेन अजंठचे धर्तेचेर कोरांतिल्लीं 'लेणी' सांपडल्यांत. मशिदी, थडीं, मीनार हांचेर इराणी पध्दतीचो प्रभाव दिसता. काबूल, गझनी, कंदहार, मझर-ए-शरीफ, हेरात ह्या शारांनी पोरन्यो कलाकुसरी सांबाळल्यात.

हांगाचें संगीत, चड करून लोकसंगीत उर्देतेच्या संगीत पध्दतीसारकेंच आसा. झिथर नांवाचें तंतूवाद्य आनी चामड्याची तयार केल्लीं वाद्यां हे लोक वापरतात. अफगाण लोकांक नाचाची बरीच आवड आसा. 'अट्टन' हो हांगाचो राश्ट्रीय नाच. घोड्यांचेर बसून खेळपाचो 'बुझकाशी' आनी लंगडी घालून खेळपाचो 'घोसाई' हे खेळ हांगा चड लोकप्रिय आसात. गांवगिन्या वाठारांनी कुस्तीचो खेळ बरोच चलता. शारांनी बेसबॉल, फुटबॉल, हॉकी सारके भायल्या देशांतले खेळ बरेच लोक खेळटात. २१ मार्चाक, 'नो रुझा' हो नव्या वर्साचो पयलो दीस, ऑगस्टांतलो 'जश्न-ई-इस्तेक्लाल' हो स्वतंत्रतायदिस आनी रमजान ईद आनी हेर धर्मीक सण आनी उत्सव दबाज्यान मनयतात.

**शिक्षण:** अफगाणिस्तानांत साक्षरतेचें प्रमाण सामकेंच उणें म्हळ्यार फकत १२% आसा. जगांत ह्या देशाचो क्रमांक हेविशीं १२७ वो लागता. बायलांमदीं साक्षरतेचें प्रमाण चड उणें आसा. पंदरा वर्सां पिरायेवेल्यो ९०% बायलो आनी ८८% दादले बरोवंक वाचूंक नकळो.

७ ते १५ वर्सांमेरेनचें ९ वर्सांचें शिक्षण सक्तीचें आसा. मुळावी, मदली आनी उंचेली अश्यो तीन पांवड्यावेल्यो शाळा आसात. मुळाव्या पांवड्यावेल्या ३,३७१ शाळांची नोंद जाल्या. शिक्षण पुश्तू आनी दारी ह्या भासांतल्यान दितात. शिक्षणाचेर सरकाराचें पुराय नियंत्रण आसा.

उंचेल्या पांवड्यावेलें शिक्षण १९४६ त चालू जाल्ल्या काबूल विश्व-विद्यालयाकडल्यान चलता. नानगरगढ हें दुसरें विश्वविद्यालय. विश्वविद्यालयांनी शिकपी भुरगे सामकेच उणे आसात. १९७७ मेरेन धा लाख लोकांफाटल्यान फकत २२० भुरगे विश्वविद्यालयांत नोंद जाल्ले. अफगाणिस्तानांतले बरेचशे विद्यार्थी शिक्षणाखातीर अमेरिका, ब्रिटन, अस्तंत जर्मनी, फ्रांस, भारत, पोलंड आनी कॅनडा सारक्या देशांनी आसात. शिक्षणाचो प्रसार चड जावंक ना हाकालागून ह्या देशाचे उदरगतींत बरींच आडमेळीं आयल्यांत.

**भाशा आनी साहित्य:** हांगाचे लोक सुमार २० विंगड विंगड भाशा उलयतात. चडशे वेव्हार पुश्तु आनी फारसी भाशेंतल्यान जातात. ह्यो दोनूय भाशा उलोवपी लोक ५५% च्या वयर आसात. काव्य, तत्त्वगिन्यान, धर्मशास्त्र, इतिहास हांचेवेलें पोरनें साहित्य पारशी भाशेंतल्यान बरयलां. पुश्तु साहित्य आठव्या शेंकड्यासावन मेळटा. गझनवीच्या काळार अन्सारी हो नामनेचो राजदरबारी कवी जावन गेलो. फिर्दोसीन (९३५-१०२०) 'शहानामा' हें महाकाव्य बरयलें. तैमुरलंगाच्या काळार जामी (१४१४-९२) हाणे साधुसंतांचेर, कुराणांतल्या तत्त्वांचेर, प्रणयात्मक, अद्‌भुत अशा विशयांचेर सुमार ४६ ग्रंथ बरयले. हाफिझ अबू हाणें जगाचो इतिहास आनी शरफद्दीन अली याझदी हाणें तैमुरलंगाच्या जीणेचेर पंदराव्या शेंकड्यांत बरपावळ केली. पुश्तू भाशेंतले म्हान साहित्यिक सतराव्या शेंकड्यांत जावन गेले. मोंगलाआड झुजूंक स्वतंत्रतायेखातीर तळमळीन बरोवपी खुशहलखान खतक हो ह्या काळांतलो कवी, 'राष्ट्रकवी' जावन आसा. सरकारान चालू केल्ल्या २३ वाचनालयांची नोंद जाल्या. निरक्षरतेक लागून बरयिल्ल्या साहित्याची निर्मणी चडशी जायना.

**म्हत्वाचीं थळां:** बामियान, बेग्राम हीं थळां बौध्द घचण्यांक लागून नांवाजिल्लीं आसात. गझनी, हेरात, मझर-ए-शरीफ हीं शारां पळोवपासारकीं. ह्या शारांनी मोगल संस्कृतायेच्यो कुरू सांपडटात. काबूल हें राजधानीचें शार आनी कंदहार हेंय एक मुखेल शार. बाघलान, गुलबहार आनी पुल-इ-खुमरी हीं शारां थंय आशिल्ल्या कारखान्यांक लागून उजवाडांत आयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**अफू:** (मराठी: अफू; हिंदी: अफीम; संस्कृत: अहिफेन; इंग्लीश: ओपियम; लॅटीन: पॅपॅव्हर सोम्नीफेरम).

ओपिअन वा ओपॉस ह्या ग्रीक उतराच्या अफिऊन ह्या अपभ्रंशा-वेल्यान 'अफू' वा 'अफीण' हीं उतरां आयलीं. भारतांत अफूक 'पोस्त'

आनी 'अफियु' ह्या नांवांनीय वळखतात. अफूच्या झाडांक आयिल्ल्या तरन्या बोणयांपसून पाझरून येवपी आनी सुकयतकच घट्ट जाल्ल्या रोसाक 'अफू' म्हण्टात. हो एक मादक, विखारी पदार्थ. अफू मूळची अस्तंत आशियांतली. ग्रीकां आदीं अरबांनी अफूचें म्हत्व जाणलें आनी अफू उदेंतेक व्हेली. इजिप्तांत अफूचो उपेग वखदाखातीर जातालो अशें एका बरपांत मेळटा. इ. स. पयलीं तिसऱ्या शेंकड्या उपरांत अफूचो प्रसार नेटान वाडलो. भारतांत अफू आर्यांआदीं आयिल्ली आसूंक जाय.

अफूची वनस्पत सुमार ६० ते १२० सेंमी. ऊंच आसून ती एक वर्स जियेता. सादारण लक्षणां पॅपॅव्हेरेसी कुळांत वर्णन केल्ल्याप्रमाण. पानां सादीं, खरवती काठाचीं वा वेगळीं जाल्लीं. फुलां धवीं वा तांबसर जांभळीं. सोबीत आनी मोटीं. कळयो जानेवारी म्हयन्यांत येतात. संदलां दोन, प्रदलां चार, केसरदळां कितलींशींच, किंजदळां खूब आनी जुळिल्लीं आसतात. किंजल्क चेपटो आनी तोंकाचो. बोणयो वांटकुळयो तांतयांसारक्यो आनी बियो धव्यो आसतात.




अफूचें झाड रेंवट जमनींत नोव्हेंबर म्हयन्यांत रोयतात. रोप्यांक भरपूर उदक दितात. अफूंतल्या मॉर्फिनचें प्रमाण वाडचें म्हूण झाडांक नायट्रोजन आनी फॉस्फॉरसचीं सारीं घालतात. अफूच्या झाडाक केवडा आनी भुरी हे रोग जातात. तांकां आळाबंद हाडपाक बोर्दो मिश्रण आनी गंधकाचे फवारे मारतात. रोयल्या उपरांत तीन म्हयन्यांभितर अफूचें झाड सुमार देड मी. ऊंच वाडटा आनी ताका बोणयो येतात. तरन्यो बोणयो नश्तर नांवाच्या चाकून सकयल्यान वयर वा आडव्यो चिरतात. तातूंतल्यान पाझरपी रोस थंयच घट जाता. फांतोडेर तो कुलेरासारक्या 'सत्वा' नांवाच्या हत्यारान खरवडून एकठांय करतात. ह्या दाट रोसांतलो 'पसेवा' हो काळो पदार्थ काडटात आनी अफू वतांत सुकयतात. अफू रुचीक कडू आसता.

अफूची लागवड करचेखातीर सरकाराकडल्यान परवानो काडचो पडटा. अफू तयार करपी मुखेल देश म्हळ्यार तुर्कस्थान, इराण, रशिया, चीन, ब्रह्मदेश, थायलंड, लाओस आनी भारत. तेभायर बल्गेरिया, पाकिस्तान, जपान, युगोस्लाव्हिया ह्या देशांनीय अफूचें उत्पादन जाता.

भारतांत अफूचें उत्पादन सोळाव्या शेंकड्याच्या सुर्वेक सुरू जालें. मोगलांच्या मुर्स्तीत अफूची लागवड जाताली. भारतांत उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश, राजस्थान हांगा अफूची लागवड जाता. उत्तर प्रदेशांत गाझीपूर हांगा अफूचो कारखानो आसा. गाझीपूरच्या कारखान्यांत अबकारी, निर्याती आनी वखदी अशी तीन प्रकारची अफू तयार करतात. भारतांत १९७१ वर्सा सुमार ५०,००० हेक्टर्स जमीन अफूच्या लागवडीखाला आशिल्ली. अफू आनी अफूच्या हेर द्रव्यांपसून भारताक दर वर्सा सुमार १५ कोटी रुपयांचे परकी चलन मेळटा. भारतांतल्यान इंग्लंड, अमेरिका आनी फ्रांस देशांनी अफूची निर्यात जाता.

अफू घेवप हें एक व्यसन. अफू तीन तरांनी घेतातः १. खावप, २. ओडप, ३. सुयेवरवीं कुडींत तोपप. अफू घेतकच नशा चडटा. तरांतरांच्यो कल्पना आनी भ्रम जातात. अफू एकदां घेतली म्हणटकच परत-परत ती घेवपाची इत्सा जाता आनी मनीस व्यसनांत घुस्पता. भारत, चीन, इराण ह्या देशांनी अफूचें व्यसन चड प्रमाणांत दिसून येता. अफूच्या व्यसनाक लागून भूक उणी जावप, अजीर्ण जावप, न्हीद वचप, आळस येवप आनी आंग दुखप, सुस्तेवप, मज्जातंतू दुर्बळ जावप, नपुंसकत्व येवप, पिशें लागप, कुडीचें आनी मनाचें दुबळेंपण येवप असले परिणाम घडून येतात. अफूपसून तयार केल्लें मॉर्फिन अफूपरस २० पट चड विखारी जावन आसा. मॉर्फिन चड खाल्यार न्हीद येवप, भूक वचप, शुध्द वचप, आंग लुळें पडप, ओंकारे, भायरी जावप असलीं लक्षणां दिसतात.

अफूपसून मॉर्फिन पॅपॅव्हरीन, नार्कोटिन, कोडीन आदी वैजकी नदरेन म्हत्वाचीं अशीं आल्कलॉयड्स तयार करतात. घुंवळ वा न्हीद हाडप, दुःख आनी वेदना कमी करपी वखदांनी अफू वापरतात. अफूची कापूर घाल्ली भरसण खांक आनी अतिसार हागवण हांचेर घेतात. अफूच्या झाडावेल्या गांठीचें मलम मूळव्याधीचेर वापरतात. अफूच्या बोणयांचे अर्क कानांत सूज आयल्यार घालतात.

भारतांत अफूच्या वापराचेर बंदी आसा. १८५७ वर्सा अफूच्या झाडाच्या लागवडीविशीं अफू कायदो आयलो. १८७८ वर्सा अफूचें उत्पादन, येरादारी आनी विकपाविशीं अफू-कायदो आयलो. त्याचप्रमाण १९३० वर्सा अफू आनी ताच्या आल्कलॉयड्साच्या निर्मणेविशीं वखदां कायदो काडून भारत सरकारान अफूची लागवड, उत्पादन, निर्मणी, विकप हांचेर कडक नियंत्रण दवरलां.

इंग्लंडांत १८४३ वर्सा ब्रिटीश पार्लमेंटात अफूच्या वेपाराचेर बंदी हाडपाचो प्रस्ताव आयलो पूण तो अंमलांत आयलोना. ब्रिटिशांचो चीनाकडेन अफूचो वेपार चलतालो. १९४० वर्सा चीन सरकारान अफूच्या आयातीचेर बंदी हाडली आनी हाका लागून चीन आनी इंग्लंडाभितर झुज पेटलें. हातूंत इंग्लंडाक जैत मेळलें. १५ वर्सां उपरांत, १८५६ वर्सा ह्याच कारणाक लागून चीन-इंग्लंड हांच्या मदीं अफूचें दुसरें झुज जालें. ह्याय खेपे इंग्लंडाकच जैत मेळलें. पूण हो प्रस्न सुटलोना. साम्यवादी गणतंत्र राज्य आशिल्ल्यान आयज चीनांत अफूचेर कडक निर्बंध घाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**अबु, मन्सुरः** (कार्यकाळः धावें शतमान).

एक पर्शियन वैजकीशास्त्रज्ञ. भारत, अरबस्तान, पर्शिया, ग्रीस, सिरिया, ह्या विंगड विंगड देशांतल्या वैजकी उपायांचो ताणे अभ्यास केलो. साद्या वखदांचेर ताणे शंभरांवयर लेख बरयले. 'दि फाउंडेशन्स ऑफ् दि ट्रु प्रॉपर्टीज ऑफ रेमिडीज' हें ताच्या गाजिल्ल्या वैजकी ग्रंथाचें इंग्लेज नांव जावन आसा. तातूंत ५८५ वखदांची नोंद आसा. हें पुस्तक मूळ पर्शियन भाशेंत आसून, ते भाशेंत वैजकीवेलें तें पयलेंच पुस्तक जावन आसा.

- को. वि. सं. मं.

**अभंगः** 'अभंग' हें एका खास मराठी लौकिक छंदाचें नांव आसा. चडशी पूर्विल्ली मराठी कविता होंवी आनी अभंग ह्या दोन लौकिक छंदांत रचल्या. होंवी आनी अभंग हे दोनूय मराठी छंद सारक्याच स्वरूपाचे आसात. होंवी हें दोनूय छंदप्रकारांचें मूळ रुप आसून होंवयेचे माळेक 'अभंग' म्हण्टात; तरी लेगीत अभंग ह्या नांवाची खास परंपरा आसा. महानुभाव वाङ्मयांत 'अभंग' हो शब्द समाप्तिमुद्रा (Colofon) ह्या अर्थान वापरला. पूण ताचो अभंग छंदाकडेन कांयच संबंद ना. तेराव्या शेंकड्यांतलो कानडी कवी चौंडरस हो विठ्ठलाक अभंग-विठ्ठल अशें म्हणटा. एकनाथ आनी हेर मराठी संतांनीय अभंग-विठ्ठल ह्या शब्दांनी विठ्ठलाचें वर्णन केलां.

अभंग विठ्ठल परि। मना सांडी विषय खोडी

सिंधु तो अभंग विठ्ठल

हाचेवेल्यान विठ्ठलाविशींच्या होंवी-प्रबंधाक अभंग हें नांव रुढ जालां तें दिसून येता. विठ्ठलाच्या अभंग ह्या विशेशणाचें गुपीत अशें आसा की तो वृंदावनांतल्या देहुड्या कृष्णाभशेन त्रिभंग उबो नासून समचरणांचेर अभंग अवस्थेंत उबो आसा. अभंगाचें लक्षण नामदेवांन अशें सांगलां:

समचरणीं अभंग। नव्हे तान-छंदो भंग।

समचरणी अभंग हे शब्दसूचक आसात. ते समचरणांचेर उब्या आशिल्ल्या अभंग-विठ्ठलाकडेन अभंगछंदाचें नातें जोडटात. हाचो अर्थ असो की विठ्ठलभक्ती परंपरेंतल्या ह्या लोकप्रिय लौकिक छंदाचें नांव विठ्ठलाच्या रुपाच्या खाशेलेपणाकडेन संबंदीत आसा.

दात्यावयल्यो होंवयो, दळप-कांडप करतना म्हणपाच्यो होंवयो आनी वारकऱ्यांचे अभंग हातूंतलो संबंद अभेद आसा. मूळच्या महानुभावीय कवींची अभंग-रचना होंवी स्वरूपांतूच आसा. संत नामदेवान अभंग-कलेविशीं म्हळां.

अभंगाची कळा नाही मी नेणत।
त्वरा केली प्रीत केशीराजें।।
अक्षरांची संख्या बोलिले उदंड।
मेरु सुप्रचंड शर आदीं।।
सहा साडेतीन चरण जाणावे।
अक्षरें मोजावीं चौक चारी।।
पहिल्यापासोनी तिसऱ्यापर्यंत।
अठरा गणित मोज आलें।।
चौक चारी आधीं बोलिलों मातृका।
बाविसाची संख्या शेवटील।।
दीड चरणाचें दीर्घ तें अक्षर।
मुमुक्ष विचार बोध केला।।
नामा म्हणे मज स्वप्न दिलें हरी।
प्रीतीने खेचरीं आज्ञा केली।।

अभंग ही बावीस अक्षरां आशिल्ली लांब रचना अशें नामदेवाचें मत आशिल्लें. बावीस अक्षरांचे साडेतीन भाग. ह्या भागांक नामदेव 'चरण' अशें म्हण्टालो. तीन भागांचीं १८ अक्षरां आनी फुडलीं ४ अक्षरां मेळून २२ अक्षरां एका कडव्यांत आसतात. अशे २२ अक्षरी साडेतीन चरण वट्ट ६ घेतले म्हणटकच अभंग जाता. हें जालें व्हडल्या अभंगाविशीं. ल्हान अभंगाविशीं नामदेव म्हणटा-

मुख्य मातृकांची संख्या। सोळा अक्षरें नेटक्या।।
समचरणीं अभंग । नव्हे ताल-छंदो-भंग।।
चौक पुलिता (?) विसर्ग। गण यति लघु दीर्घ।।
जाणे एखादा निराळा। नामा म्हणे तो विरळा।।

१६ अक्षरांच्या दोन (सम-) चरणांचेर उबो आशिल्लो हो अभंग. हातूंत ताल-छंदोभंग केन्नाच जायना. हेर रचनांतले गण, यति, लघु, दीर्घ, विसर्ग ह्यो कठीण गजाली जाणपी जाणकार विरळ आसतात.

अभंग छंदाचे रचनेचे नदरेन तीन मुखेल प्रकार आसात.

**पयलो प्रकार:** तीन ६ अक्षरी चरण आनी चवथो चरण ल्हान ४ अक्षरी अशी रचना आशिल्लो व्हडलो अभंग. हाकाच छंदोरचनाकारांनी 'देवद्वार' हें नांव दिलां. तुकाराम आनी हेर चडशा संतकवींचे अभंग हे व्हडले रचनेचे आसात.

**दुसरो प्रकार:** हातूंतले चरण ८ अक्षरी आसतात. अभंगाच्या मोडणीप्रमाण हाचे पादाकुलक छंद आनी देवीवर अशे दोन उपप्रकार आसात.

**तिसरो प्रकार:** दुसऱ्या प्रकारांतूच थोडो फरक करून तिसरो प्रकार घडला. केन्नाय ६ अक्षरी जाल्यार केन्नाय ८ अक्षरी अशे तरेचे संयोजन हातूंत आसता.

अभंगांत चरण आनी अक्षरां जायतीं आसतात. ताका लागून अभंगांचे थोड्याभोव फरकान कितलेशेच भेद जातात. इतिहासाचार्य राजवाडे हांणे पिंगलोक्त परिभाषा वापरुन प्रतिष्ठा अभंग, सुप्रतिष्ठा अभंग, उष्णिग् अभंग, अनुष्टुभ् अभंग, बृहती अभंग, पंक्ति अभंग, त्रिष्टुभ अभंग, जगती अभंग अशीं अभंग प्रकाराचीं वेगवेगळीं नांवां दिल्यांत.

'अभंग' शब्दाची फोडणीशी करतना राजवाडे म्हणटा, 'ज्या छंदांत भंग ना, तो अभंग. भंग म्हळ्यार कर्णमधुर गण. म्हणजेच 'अभंग' म्हळ्यार गण नाशिल्लो वृत्तात्मक समचरण वा विषमचरण छंद.' छंदोरचनाकारांच्या मतान 'अभंग' हो लगत्वभेदातीत अक्षरसंख्याक पद्यप्रकार जावन आसा. प्रा. भवानीशंकर पंडिताच्या मतान अभंग मात्रिक आसा. श्री. वि. ज. सहस्रबुद्धे हाणें प्रा. माधवराव पटवर्धन आनी प्रा. पंडित ह्या दोगांयच्या मतांचे खंडन करपाचो यत्न केला. अभंगांतल्या प्रत्येक अक्षराच्यो २ मात्रा धरच्यो, हें प्रा. पटवर्धनाचे मत ताका अभंग गायनाचे नदरेन पटना. प्रा. पंडिताच्या मताविशीं आपली प्रतिक्रिया परगटायतना तो म्हणटा, ''वादाखातीर अभंगाक 'मात्रिक' म्हणपाक हरकत ना. पूण मात्रावृत्ताचे नदरेन पळेल्यार अभंगाची रचना धील आसा ही गजाल मान्य करूंकूच जाय. बारीकसाणीन पळेल्यार ९०% अभंग धील आसात अशें दिसून येतलें. अभंगाची गणना अक्षर छंदांत केल्ली आसा, तीच फावशी आसूंक जाय.''

डॉ. ना. ग. जोशी हाणें मराठी छंदोरचनेचो लयेचे नदरेन पुनर्विचार करतना, कितल्याशाच अभंग-प्रकारांचें विश्लेषण करून अशें मत परगटायलां की छांदस रचनेंतलो अक्षरोच्चार दोट्टी मात्रेच्या कालमानाचो आसता हें कै. माधवराव पटवर्धनाचें मत बरोबर आसा.

अभंग छंदांत पूर्विल्ले मराठींत उपाट रचणूक जाल्या. ज्ञानेश्वरासावन तुकारामामेरेनच्या सगल्या मराठी संतकवींनी आपल्या आत्मसाक्षात्काराच्या अभिव्यक्तीखातीर अभंगाचें माध्यम वापरलें. होंवयांतल्यान मराठी संतांनी परमार्थविचार मांडलो, जाल्यार अभंगांतल्यान ताणी परमार्थाचो अणभव व्यक्त केलो.

भजन ह्या भक्तीप्रकारांत जीं पद्यमय भक्तीगीतां वाद्यांच्या सांगातान गातात तांकां अभंग म्हण्टात आनी सादारण मनशांक हेच अभंग,खबर आसतात. ह्यो पद्यरचना चडशो साधुसंतांनी रचिल्ल्यो आसात. उत्सवा निमतान गांवांतल्या देवळांनी उत्सवाचो एक भाग म्हूण भजन करतात. नागपंचमीक जावपी वास्को (गोंय)चो सप्ताह, आशाढी एकादशीची मडगांवची दिंडी, अष्टमीचो नागेशीं (गोंय) जावपी सप्ताह हे उत्सव तांच्या भजनाच्या कार्यावळीखातीर लोकप्रिय आसात. गोंयची कला अकादमी राज्य थराचेर भजन-सर्त दर वर्सा घडोवन हाडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**अभिजित (व्हीगा):** भारतीय नखेत्रमाळेंतलें २८ वें नखेत्र. अस्तंती पध्दतींतले लीरा (सारंगी) तारका- चोम्यांतलें 'व्हीगा' म्हळ्यार 'आल्फा लायरी' हें सगळ्यांत तेजीश्ट नखेत्र (विषुवांश १८ ता. ३६ मि., क्रांती ३८° ४५, आनी प्रत ०.१४). सबंद मळबांत तेजीश्टपणाखातीर हाचो चवथो क्रमांक आसा. क्रांतिवृत्तापसून (eliptic) खुबूच पयस आशिल्ल्यान हें नखेत्र सत्तावीस नखेत्रांच्या वळेरेंत घालूंक ना आसूंये. लीरा चोम्यांत (quantum) इकरा नखेत्रां मानतात. मैत्रेयी संहिता (२.१३.२०), तैत्तिरीय ब्राह्मण (१.५.१), अथर्व संहिता (१९.७) हातूंत अभिजित नखेत्राचो उल्लेख आयला. पूण तैत्तिरीय संहिता आनी काठक संहिता हातूंत ताचो उल्लेख ना. वृध्दगार्ग्य संहिता, खंड खाद्यक, लल्लाचो रत्नकोश, श्रीमतीची रत्नमाला, शाकल्यब्रह्मसिध्दांत आदी ग्रंथांनी अभिजित नखेत्राचीं तीन नखेत्रां मानल्यांत.

अभिजित नखेत्रांचें तेज सुर्याच्या ५० ते १०० पट आनी व्यास सुमार २.५ पट इतलो आसा. तो सूर्यासावन सुमार २६ उजवाडवर्सां पयस आसा. तळावयलें तापमान ११,२००° के. इतलें आसूं येता. ताच्या वर्णपटांत हायड्रोजन मेळटा. ताचो रंग निळसर धवो. हिंदू पंचांगांत अभिजित नखेत्राक वेगळी सुवात नासली तरीकूय उत्तराषाढाचो निमाणो चरण आनी श्रवणाचो सुर्वेचो १/१५ भाग मेळून हें नखत्र तयार जाता.

ह्या नखेत्रांतल्यान वचपाक सूर्याक फकत चार दीस लागतात. हें गमन सुमार जानेवारी २० ते २४ ह्या काळांत जाता.

मळबांत हें नखेत्र वळखुपाची कुरु म्हळ्यार श्रवण नखेत्राच्या तीन नखेत्रांची वळ उत्तरेवटेन वाडयली म्हणटकच जें एकदम ठळक नखेत्र लागता तें अभिजित. ऑगस्ट म्हयन्याच्या मध्याक हें नखेत्र रातीच्या ९ वरांचेर याम्योत्तर वृत्त (Meridian Circle) हुंपून वता. पृथ्वीच्या अक्षाच्या परांचन गतीक (Precession) लागून आनीक १३,९६० वर्सांनी अभिजित हें नखेत्र ध्रुव नखेत्र जातलें.

- कों. वि. सं. मं.

**अभिनयः** नृत्य, नाटक, सिनेमा वा हेर प्रायोगिक कलांभितर, कलाकार स्वताचे भाव पळोवप्यामेरेन पावोवपाखातीर स्वताची कृती, हावभाव, भाशण, संगीत, गीत, भेस हया साधनांचो आदार घेता. हाकाच 'अभिनय' अशें म्हणटात. काळजांतल्या राग, मोग, दुख्ख, खंत, दुस्वास साक्र्या उमाळ्यांक उक्तावन दाखवप म्हळ्यार 'अभिनय' अशीय एक व्याख्या आसा.

भरतमुनीच्या नाट्यशास्त्रांत अभिनयाचे चार प्रकार सांगल्यातः

भवेदभिनयोऽ वस्थानुकार : स चतुर्विधः।
आङ्गिको वाचिकश्चैवमाहार्यः सात्विकस्तथा।।

अर्थः अभिनय म्हळ्यार अवस्थेचें अनुकरण. ह्यो अवस्था चार प्रकारच्यो आसात. आंगिक, वाचिक, आहार्य आनी सात्विक.

**आंगिक अभिनयः** मनशाची कूड, मुखामळ आनी आंगाचे विंगड विंगड भाग हांचे मोडप करून ताचे भाव रसिकांक दाखोवप हाका आंगिक अभिनय म्हणटात. तकली, हात, कमर, थानां, कुडीचो फुडलो भाग, पांय, खाडकी हाच्या आदारान आंगिक अभिनय करतात. दोळे, भुंवयो ओंठ, पोले, खाडकी हांचो आदार घेवन करतात त्या अभिनयाक आंगिक अभिनयांतलें उपांग म्हणटात. मनशाचे कुडीचें कमीपण दाखोवपी लंगडो, थोटो, पांगळो, कुड्डो, जाणटो ह्या अभिनयाच्या भावाक 'चेष्टाकृत अभिनय' म्हणटात. हे सगळ्या तरांचे अभिनय रस, भाव आनी प्रसंग हांच्या आदारान करतात.



**अभिनयाच्यो कांय देखी**

शरीराच्या कांय भागांचीं, अभिनयाची खाशेलीपणां फुडल्या प्रमाण आसात. तोंडाचो अभिनय चार प्रकारचो आसता. - सभावीक, उमेदी, संतापिल्लो आनी शांत. तकली हालोवन केल्लो अभिनय णव प्रकारचो आसता. तांची विस्कटावणी अशीः

१. **समः** तकली सकल बागयिल्ली वा वयर उखलिल्ली वा हालनाशिल्ली. उपेगः नाचपाची सुरवात, नमन करप, आयकुप्याचेर अधिकारान केल्लें भाशण, समाधान, राग, बिनधास्त सभाव, नेणारपण हे भाव दाखोवपाखातीर.

२. **उद्वाहितः** तकली वयर उखलून थीर दवरप. उपेगः चंद्रीम, मळब, दोंगर, वाऱ्यार उडपी वस्त, बोनेरां हे तरेच्या उंचायेवेल्या वस्तूंचो निर्देश करपाखातीर.

३. **अधोमुखः** तकली सकल बागयल्ली आसप. उपेगः विनय, दुख्ख, नमन, सोंशिकपण, न्हावप हे भाव दाखोवपाखातीर.

४. **आलोलितः** तकली वांटकुळी घुंवडावप. उपेगः न्हिदप, काकू करप, हांसप, मस्ती चडप, घुंवळ येवप, बेसुद पडप हे भाव दाखोवपाखातीर.

५. **धूतः** उजवेवटेनच्यान दावेवटेन आनी दावे वटेनच्यान उजवेवटेन तकली घुंवडावप. उपेगः न्हंयकार, परतें परतें पळोवप, खंत, थंडी, उजो, भंय, सहानुभूति, अजाप जावप, सोरो पियेवपाचो पयलो खीण, उलो मारप, झुजाची तयारी, आशेवप, नाका म्हणप, निर्शेवप हे भाव दाखोवपाखातीर.

६. **कंपितः** सकल वयर तकली हालोवप. उपेगः राग, तिडक, राव म्हणप, बारीकसाण करप, वास्तपूस करप, भंय घालप, उलो मारप हे भाव दाखोवपाखातीर.

७. **परावृतः** तकली एके वटेन करप. उपेगः 'हें कर' अशें सांगप. तिरस्कार करप, नमळायेन वागप, भियेवन थरथरप हे भाव दाखोवपाखातीर.

८. **उत्क्षिप्तः** तकली एके वटेन वयर करप. उपेगः 'हें घे' म्हणप, खून करप, चत्राय घेवप, मान्यताय दिवप आनी हेर हे तरेचे भाव दाखोवपाखातीर.

९. **परिवाहितः** तकली हेवटेन तेवटेन आयण्यावरी हालोवप. उपेगः मोगी जावप, मोगिकेची वाट पळोवप. सुख, आनंद, विचार आनी हेर हे तरेचे भाव दाखोवपाखातीर.

नदरेच्या अभिनयाचे आठ प्रकार अशे आसात.

१. **समः** देवांच्या बायलांप्रमाण दोळे हालयनासतना पळोवप. उपेगः नाचपाची सुरवात, हेर कांय गजालींचो विचार, अजाप हे भाव, तागडी, देवाची मूर्ती ह्यो वस्तू दाखोवपाखातीर.

२. **आलोकितः** थाव घेवपी थीर नदरेन दोळे घुंवडावप. उपेगः कुमाराचे भुंवपी चक्र, एकान एक वस्त दाखोवप, इत्सा हे भाव दाखोवपाखातीर.

३. **साचिः** तकली हालयनासतना दोळ्यांच्या खाचींतल्यान पळोवप. उपेगः मिशयेक पीळ, आत्मविश्वास, बाणाचो नेम धरप, कुरू करप हे भाव दाखोवपाखातीर.

४. **प्रलोकितः** हे वटेंतल्यान तेवटेन दोळे घुंवडावप. उपेगः दोनूयवटेनच्यो वस्तू पळोवप, कुरू करप, अस्थीर मन हे भाव दाखोवपाखातीर.

५. **निमीलितः** दोळे अर्दे धांपिल्ले, अर्दे उक्ते केल्ले. उपेगः ऋषीवरी हावभाव, दुसऱ्याक बरें दिसता तशें वागप, जप, ध्यान, नमस्कार, पिशेंपण, शिटूक नदर हे भाव दाखोवपाखातीर.

६. **उल्लिखितः** शिटूकसाणीन वयर सकल नदर मारप. उपेगः बावट्याचो मुखावेलो भाग, गोपूर, देवाचो माटोव, पूर्वजल्म, उंचाय, चंद्रिका हे भाव दाखोवपाखातीर.

७. **अनुवृत्तः** सट्करून सकल वयर पळोवप. उपेगः रागीश्टपणां, मायेमोगान दिल्ले आपोवणें हे भाव दाखोवपाखातीर.

८. **अवलोकितः** सकल पळोवप. उपेगः सावळेकडेन पळोवप, विचार, हांतरूण, अभ्यास, आपल्या आंगाकडेन पळोवप हे भाव दाखोवपाखातीर.

भुंवयांच्या अभिनयाचे स प्रकार फुडले प्रमाण आसात.

१. **सहजः** सदांचे अवस्थेंतली नदर सैमीक अवस्था दाखयता.

२. **पतितः** एका जाग्यार थीर आशिल्ल्यो भुंवयो वयर उबारप. उपेगः अरसिकपण, अजाप, मत्सर हे दाखोवपाखातीर.

३. **उत्क्षिप्तः** एक वा दोनूय भुंवयो वयर उखलप. उपेगः बायलांचो राग, खरें उलोवप, मोगाचे भाव, लीला हे भाव दाखोवपाखातीर.

४. **चतुरः** भुंवयो एकठावन थोड्यो हालोवप. उपेगः एकमेकांची

तोंडां एकठावप, आवेग, हे भाव दाखोवपाखातीर.



अभिनय

५. **रेचितः** सुंदर आनी सोबीत रितीन भुंवयो बारीक करप. उपेगः एकाद्रें गुपीत आयकप, एकाद्र्या थळाकडेन पळोवप.

६. **कुंचितः** एक वा दोन भुंवयो कमानदार करप. उपेगः मोग्याच्या गैरहजेरेंत ताची याद काडून उक्तायिल्लो आनंद, फकाणांचो राग, विलास हे भाव दाखोवपाखातीर.

मान हालोवन करपाच्या अभिनयाचे चार प्रकार आसात. ते अशे-

१. **सुंदरिः** मान धारेखटेन (क्षितीज) एका वळीत दवरून हेवटेन तेवटेन घुंवडावप. (तिर्यक् प्रचलित) उपेगः मोगाचे क्रियेचो आरंभ, परीक्षा घेवप, 'शाबास्' अशें म्हणप, याद काडप, फकाणांनी केल्लें उलोवणे, सहानुभूतीचें सुख हे भाव उक्तावपाखातीर.

२. **तिरश्चीनः** सोरपाचे चालीवरी दोनूय वटांनी मान वयर करप. उपेगः तरसाद पाजप, सोरपाचे चालीइतल्या नेटान चलप हे भाव दाखोवपाखातीर.

३. **परिवर्तितः** अर्धचंद्रावरी उजवे आनी दावे वटांनी मान मोडप. उपेगः शृंगारनर्तन, कपलाचो उमो घेवप हे भाव दाखोवपाखातीर.

४. **प्रकंपितः** पारव्यावरी फाटल्यान फुडल्यान मान घुंवडावप. उपेगः 'तूं आनी हांव' अशें सांगप, मेजप, झोके घेवप हे भाव दाखोवपाखातीर.

हाताच्या अभिनयाचे प्रकार आसात, ते अशेः

१. **प्रसारणः** बोटां ताठ करप, २. **कुंचितः** बोटां बागोवन, ३. **रेचितः** बोटां पातळावन, ४. **पुंखितः** हात फुडें, बोटां ताठ, बागयिल्लीं वा पातळिल्लीं, ५. **उद्वेष्टितः** हाताचो तळवो वयर धरिल्लो. ६. **व्यावृतः** हात एके वटेन फुडे हाडिल्लो, ७. **परिवृतः** हात एकेवटेन फुडें केल्लो, ८. **संकेतः** उतराबगर कल्पना दिवप, ९. **चिन्हो** - ज्यो गजाली फुडें आसात आनी ज्यो गजाली दिश्टी पडनात तांच्यो कुरवो विंगड विंगड चिन्हांच्या आदारान दाखोवप, १०. **पदार्थटीकः** उतरांचे अर्थ जाणा जावन घेवप.

वयर आयिल्ले प्रकार सोडून थानांचे पांच, शरिराच्या फुडल्या भागांचे पांच, कमराचे पांच, मांडयेचे पांच, पांयांचे पांच, अभिनय प्रकार भरत हाणें सांगल्यात.

सादारपणान अभिनयाचे तीन प्रकार केल्यात ते अशे.

**वाचिक अभिनयः** रंगमाचयेवेलो कलाकार तोंडान जें कितें उलयता ताका वाचिक अभिनय म्हणटात. ह्या अभिनयांत कलाकार आपल्या तोंडांतल्यान उच्चारिल्लीं वाक्यां आनी उतरांच्या आदारान राग, तिडक, संताप, थंडसाण, शृंगार सारके भाव उक्तावन दाखयता. भरतान ह्या अभिनयांचीं त्रेसठ लक्षणां सांगिल्लीं आसून तांच्या बऱ्यावायट गुणांची खोलायेन विस्कटावणी केल्या.

**आहार्य अभिनयः** कलाकारान आपल्या रंगमाचयेवेल्या संवगाक फावो सारको भेस करप हाका 'आहार्य अभिनय' म्हणटात. हो प्रकार अभिनयापरस नेपथ्याचो एक वांटो जावन आसा.

**सात्विक अभिनयः** सात्विक भाव आठ प्रकारचे आसात. हातूंत स्तंभ, स्वेद, रोमांच सारके भाव आस्पावतात.



अभिनय

भारतीय अभिनयकलेचो इतिहास खूब पूर्विल्लो आसा. संस्कृत भाशेची नाट्य-परंपरा हेर खंयचेच भाशेंतल्या नाटकांपरस खूब पोरनी आसा. अभिनयकलेचो आरंभ सुमार दोन, सवायदोन हजार वर्सां फाटीं जालो. नाटकाच्या मळार भरतमुनीसारको नाट्याचार्य जालो ना अशें मानतात. भरतान आंगीक अभिनयाचो जितलो अभ्यास केला तितलो नाटकाच्या खंयच्याच जाणकारान करूंक ना. भरतमुनी हो भास ह्या नाटककाराच्या काळांतलो आसूंये अशे डॉ. केतकार हाचे मत आसा. भासानूय अभिनयाचेर खोलायेन नियाळ केल्लो आसा. ताचेवेल्यान अभिनयकलेची उदरगत भासाच्या पयलीं जाल्ली अशें म्हणू येता. आयच्या युगांत भारतासयत पुराय संवसारांत अभिनयकलेक शास्त्रीय आनी सोबीत सुंदर रूप मेळ्ळां. आयचें अभिनयशास्त्र आनी पूर्विल्ले पयले अवस्थेंतले नाट्यशास्त्र हांची तुळा केल्यार, दोनूय कडेन अभिनय एकाच सिध्दान्ताचेर आदिरिल्लो दिसता. मध्ययुगांत हे कलेक देंवती कळा लागली. आयज ललीत कलावांगडा अभिनयाचीय पत ऊंच गेल्या. नाटक आनी अभिनय हांचे सांस्कृतिक संबंद लक्षांत घेवन आयजमेरेन हे कलेचे वाडीक समाजाच्या सगल्या थरांतल्यान खूब आदार मेळ्ळा.

- कों. वि. सं. मं.

**अभियांत्रिकीः** सैमांत मेळपी सगळ्या तरांच्या शक्तींचो आनी कच्च्या मालाचो उपेग करून, मनीस जिणेक अदीक उपयुक्त आसपी साधनां उत्पन्न करपाच्या आनी तांचें नियंत्रण करपाच्या तंत्राक 'अभियांत्रिकी' (Engineering) म्हण्टात. आगगाडी, विमान, प्लॅस्टिक, दूरध्वनी, रेडिओ, दूरदर्शन, कृत्रिम धाग्याचें कापड, तरेकवार यंत्रां ह्यो सदच्या वापरांत आशिल्ल्यो वस्तू अभियांत्रिकी तंत्रांचीं कांय उदाहरणां

जावन आसात.

वेगवेगळ्या विज्ञानशाखांतल्या सिध्दांतांचें अध्ययन करून तांचो वेव्हारिक कार्यांखातीर उपेग करपाचें काम अभियंतो (Engineer) करता. ताचेखातीर ताका गणित आनी भौतिकशास्त्र हांच्यासारक्या मुळाव्या शास्त्रांच्या गिन्यानावांगडाच आरेखन, सुताराकाम, लोहार काम हांच्यासारक्या वेव्हारिक कलांचे प्रात्यक्षिक शिक्षण घेवचें पडटा.

पूर्विल्ल्या काळांत भारतांत अभियांत्रिकीक 'शिल्प' हो शब्द वापरताले. 'भृगुसंहितें'त शिल्पांविशींचीं ९ शास्त्रां आनी तातूंत आसपाव आशिल्ल्यो ३२ विद्या आनी ६४ कला आसात. हीं शास्त्रां आनी तातूंतल्यो विद्या अशोः १. शेतीशास्त्रांत- रुखविद्या, पशुविद्या आनी मनीसविद्या. २. उदकशास्त्रांत- संसेचनविद्या, संहरणविद्या आनी स्तंभनविद्या. ३. खनिजशास्त्रांत- हतिविद्या, भस्मीकरणविद्या, संकरविद्या आनी पृथक्करणविद्या. ४. नौकाशास्त्रांत- तरीविद्या, नैविद्या आनी नौकाविद्या. ५. रथशास्त्रांत- अश्वविद्या, पथविद्या, घंटापथविद्या आनी सेतुविद्या, ६. अग्नियानशास्त्रांत- शकुंतविद्या आनी विमानविद्या, ७. वेश्मशास्त्रांत- वासोविद्या, कुट्टीविद्या, मंदिरविद्या आनी प्रासादविद्या, ८. प्राकारशास्त्रांत- दुर्गविद्या, कूटविद्या, आकरविद्या आनी झुजविद्या. ९. नगररचना शास्त्रांत-आपणविद्या, राजगृहविद्या, देवालयविद्या, सर्वजनवासविद्या आनी वनोपवनविद्या.

आर्विल्ले अभियांत्रिकीच्या विंगड विंगड प्रकारच्या खाशेल्या शाखांची प्रगती फाटल्या २०० वर्सांत जाली. ताचेपयलीं घरांची बांदावळ रस्ते, पूल, कालवो वा झुजांत लागपी बांदकामां हांच्या इतलेंच अभियांत्रिकीचें कार्यक्षेत्र मर्यादित आशिल्लें. सतराव्या आनी अठराव्या शतमानांत विज्ञान आनी तंत्रविद्येंत जाल्ले उदरगतीक लागून अभियांत्रिकीच्यो स्थापत्य, यांत्रिक, खणकाम आनी धातुविज्ञानीय, रसायनीक आनी विद्युत् अशो पांच मुखेल शाखा तयार जाल्यो. विज्ञान आनी तंत्रविद्येंत उदरगत जायत गेली तशो ह्या शाखांतल्यान स्वतंत्र उपशाखा उप्रासल्यो. देखीक- यांत्रिक अभियांत्रिकींतल्यान स्वयंचल (मोटर) अभियांत्रिकी आनी वैमानिकीय अभियांत्रिकी अशो खाशेल्या विशयांच्यो शाखा उप्रासल्यो. ह्या शाखांची कार्यक्षेत्रां सांगप कठीण, कारण कांय शाखा एकामेकांक पूरक आसात. जाल्यार कांय शाखा खाशेल्या विशयांखातीरुच आसात. स्थापत्य-अभियंत्याक बांदकामाच्या सगळ्या यंत्रसामग्रीविशीं म्हायती आसची पडटा, वस्त्रनिर्मिती अभियंत्याक रसायनशास्त्र आनी यांत्रिक अभियांत्रिकी ह्या विशयांचे गिन्यान आसप गरजेचें. खणकाम अभियंत्याक भूविज्ञानाचें गिन्यान आसचें पडटा.

त्या त्या विशयांखातीर आशिल्ल्यो अभियांत्रिकीच्यो कांय प्रचलित शाखा अशोः-

अणुकेंद्रीय अभियांत्रिकी, अभियांत्रिकीय भौतिकी, भलायकी अभियांत्रिकी, इलेक्ट्रॉनीय, उद्येगीक, शेतकी, खनीज, तेल, खणकाम, धातुविज्ञानीय, नाविक वास्तुशिल्प, प्रदीपन, मृत्तिका, यांत्रिक, रसायनीक, वस्त्र, वास्तुशिल्प, येरादारी, विद्युत्, वैमानिकीय आनी अवकाश, संदेशवहन, सैनिकी, स्थापत्य, स्वयंचल.

जें खाशेले शाखेतलें शिक्षण घेतलां, ताचेर अभियंत्याच्या कामाचें स्वरूप थारता. कारखाने, धरणां, पूल अशा तरेकवार बांदकामांचें मार्गदर्शन करप आनी ताचेखातीर फाव त्या मालाची आनी सामग्रीची निवड करप, एखाद्रया कारखान्यांतल्या खासा उत्पादनाखातीर अभिकल्प (design) आनी वेवस्थापन हांचेविशीं सल्लो दिवप, खाशेल्या वावराखातीर कसलेंय यंत्र तयार करप, नव्या तंत्राचो उपेग करून प्रचलित कार्यपध्दतींत सुदारणा घडोवन हाडप. असलीं कामां अभियंत्याक करचीं पडटात. तेभायर एखाद्रया उद्येगीक प्रक्रियेचेर पाळत दवरप आनी फाव ते दुरुस्तीविशीं सुचोवणी करप, मेळिल्ल्या सामग्रीचो चडांत चड कार्यक्षमतेन उपेग करप, उत्पादित यंत्रसामग्री विकपाखातीर गिरायकांक ते यंत्रसामग्रीचो अभिकल्प, रचना, कार्यपध्दत आनी वापर हांचेविशीं माहिती दिवप, कच्चो माल तपासप आनी यंत्रसामग्रीचे कार्यक्षमतेचो एक सारको नियाळ करप असलींय कामां अभियंते करतात. अमेरिका आनी ब्रिटन ह्या देशांप्रमाण भारतांतूय, समाजाचे भलायकेक हानिकारक अशा स्वरुपाचो अभियांत्रिकीय वेवसाय करपाखातीर सरकारी परवानो घेवचो पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**अभिषेक** (अपशेक): 'अभिषेक' ह्या शब्दाचो अर्थ संस्कृतांत सभोवतीं सगळे वटेन शिंपप असो जाता. पवित्र तीर्थाचें न्हाण असोय ताचो अर्थ जाता. वेदकाळांत राजाक जेन्ना राज्याचें अधिकारपद दिताले तेन्ना तरेकवार मंत्र गावन राजाच्या माथ्यार उदक शिंपून ताका शुध्द करताले. हे विधीक 'अभिषेक' अशें म्हणटाले. अभिषेकाचे मंत्र म्हणटना, 'इंद्र, वरुण, अश्विदेव आदी देव देवतांच्या बळग्यांचो हो अभिषेक हांव करतां.' अशें पुरोयत म्हणटाले.

पूर्विल्ल्या काळांत फकत राजांचोच अभिषेक जातालो. भारत सोडल्यार चडशा देशांनी रगताचो अभिषेक करताले आनी ताका लागून कुडींत ताकद तयार जाता अशें मानताले. महाभारतांत सम्राट आनी महाराजा हांच्या राज्यभिषेकाचें वर्णन आयलां. भारतीय झुजाउपरांत युधिष्ठिराक अभिषेक जाल्ल्याचें वर्णन महाभारतांत आसा. (शांतिपर्वः ४०.२४). वनवासाक सावन परत येतकच प्रभू रामचंद्राक केल्ल्या अभिषेकाचें वर्णन कालिदास एका श्लोकांत अशें केलां.

सरित्समुद्रान् सरसीश्च गत्वा
रक्षः कपीन्द्रैरुपपादितानि।
तस्यापतन् मूर्ध्नि जलानि जिष्णो-
र्विन्ध्यस्य मेघप्रभवा इवापः।।

(रघुवंशः १४.८)

अर्थः 'राकेसांच्या आनी वानरांच्या मुखेल्यांनी वेगवेगळ्यो न्हंयो, दर्या, तळीं हातूंतल्यान हाडिल्लें उदक विंध्य पर्वताच्या माथ्यार कुपांतल्यान पावस पडचो त्याचप्रमाण प्रभू रामाच्या माथ्यार पडलें.'

सम्राट अशोकान कलिंग जैताउपरांत चार वर्सांनी आपलो राज्याभिषेक करून घेतिल्लो. फुडें-फुडें अमात्य, राजे आनी राजपुरोयत हांचोय अभिषेक जातालो अशें हर्षचरित्रावेल्यान दिसून येता. 'पुण्याभिषेक' नांवाच्या आनीक एका अभिषेकाचें सविस्तर वर्णन अथर्वपरिशिष्ट ४, बृहतसंहिता आनी कालिकापुराण ह्या ग्रंथांत आसा. ह्या विधीचें खाशेलेपण म्हळ्यार चंद्र-पुष्य हांच्या योगाचेर हो अभिषेक करताले. ह्याच योगावरवीं इंद्रान असुरांचेर जैत मेळयल्लें. बौध्द कल्पनेप्रमाण बोधिसत्वाचो युवराज्याभिषेक आनी अभिनिष्क्रमण ह्यो दोनूय घडणुको ह्याच योगाक लागून घडल्यो.

वेदकाळांतल्या अभिषेकाची सादारण पध्दत अशी- अभिषेकाच्या आदले दिसा राजा विधीयुक्त न्हाण घेतालो. अभिषेकाच्या वेळार वा पयलीं तो आपले मंत्री वेचून काडटालो. राणी, धवो सुणो, धवो बैल, धवें छत्र आनी चामर (चंवरी) हीं राजरत्नां घेतालो. भांगराचें शिंवासन नाजाल्यार भद्रासन तयार करून तें वागाच्या चामड्यान धांपताले. सातसमुद्रांचें उदक, म्होंव, दूद आनी धंय ह्या जिनसांनी भरिल्लो भांगराकलश शिंवासनाकडेन दवरताले. अभिषेकाचें हेर सामान अशेंः वड, रुमड, पिंपळ आनी केळ ह्या झाडांच्या लांकडापसून तयार केल्लीं आयदनां, कांग आनी सवाद ह्या कड्डणाचीं कणसां, रुमडाची बाज, चमच्याच्या आकाराचें एक यज्ञपात्र आनी ताळी.

राजा राणयेवांगडा आपल्या शिंवासनाचेर बसतकच पुरोयत मंत्र म्हणून रुमडाचे ताळयेन उदक, दूद, धंय, म्होंव हांचो अभिषेक करतालो. पुरोयतावांगडा हेर ब्राह्मण, मंत्री, सोयरे, प्रजानन राजाक अभिषेक करताले. उपरांत राजा इंद्राचें स्तवन करतालो. पुरोयत, उपाध्याय हांकां तो दक्षिणा दितालो. मागीर शांतीमंत्राचे पाठ जाताले. अग्निपुराण आनी मानसार हातूंत अशे सांगलां की राजा राजधानीच्या नगराक एक प्रदक्षिणा घालतालो आनी मागीर अभिषेक सुवाळो सोंपतालो. अभिषेकावेळार राज्यांत सगळ्याक खोस मनयताले आनी

कैद्यांक मुक्त करताले. अशेच तरेन महाराष्ट्रांत शिवाजीन काशीचो नामनेचो विद्वान गागाभट्ट हाचेकडल्यान आपलो राज्याभिषेक करून घेतिल्लो.

पूर्विल्ल्या काळांत किरिस्तांव राजे पोपाकडल्यान राज्याभिषेक करून घेताले. किरिस्तांव धर्मांत तेलान वा उदकान अभिषेक करतात. इब्री उतर 'मसीह' आनी ग्रीक उतर 'ख्रिस्त' हाचो अर्थूच 'अभिषेक जाल्लो' असो जाता. जेजूचो अभिषेक पवित्र आत्म्याच्या बळग्यान जाल्लो अशें मानतात. जेजूच्या शिष्यांचो अभिषेक देवाकडल्यान जालो अशें मानतात.

देवाचे नवे मूर्तीची थापणूक करतना तिका अभिषेक करपाची पध्दत आसा. देवाच्या षोडशोपचार पूजेंत पंचामृत न्हाणाउपरांत महाअभिषेक करतात. हो अभिषेक करतना शिवाखातीर रुद्राध्याय, विष्णूखातीर पुरुषसुक्त वा पवमान पंचसुक्त, गणपतीखातीर गणपति-अथर्वशिर्ष, देवीखातीर श्रीसूक्त आनी सूर्याखातीर सुर्याचीं सुक्तां म्हणटात. पुण्यवचनांत यजमान दांपत्याक आनी लग्नांत नवऱ्या व्हंकलेचेर अभिषेक करतात. हाका 'अमृताभिषेक' अशें म्हणटात. हो अभिषेक दुर्वा, पानां, फुलां आनी पवित्र उदकान (तीर्थान) करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**अभिषेकी, अनंत सखाराम:** (जल्मः ३ जुलै १९३५, सावयवेरें- फोंडें).

गोंयचो सुटके झुजारी. आयुर्वेदीक वखदांचो ताका अभ्यास आसा. तशेंच मराठी भाशेचेंय ताका गिन्यान आसा.

१९४७ तग १९५४ मेरेन ताणे सुटके झुजाचो जायतो वावर केला. सालाझाराक तेंको दिवपी गोंयकार कुश्तोदियु फेर्नांदीश हाका मारपाच्या आरोपाखाला ताका बंदखणीत घाल्लो. प्रादेशिक लश्करी दंडाधिकाऱ्यांमुखार (Territorial Military Tribunal) चवकशेउपरांत ताका एक वर्साची बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर दिसाक १५ इस्कूद ह्या प्रमाण एक वर्स भर दंड भरचो पडलो. १९७३ वर्सा भारतसरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**अभिषेकी, जितेंद्र:** (जल्म, १५ सप्टेंबर १९३२, मंगेशी).



जितेंद्र अभिषेकी

नामनेचो संगीतकार आनी शास्त्रीय संगीत गायक. पवित्र आनी संगीताचो वसो आशिल्ल्या मंगेशी भुंयेंत 'नवाथे' आडनांवाच्या सुसंस्कृत विद्वान ब्राम्हणाच्या घराण्यांत ताचो जल्म जालो. श्री मंगेश देवाची सेवा अभिषेकाचे वृत्तीन करीत आयिल्ल्यान ताच्या घराण्याक फुडें 'अभिषेकी' ह्या नांवान वळखुपाक लागले.

ताचो बापूय बाळुबुवा अभिषेकी श्री मंगेश देवस्थानाचो पुजारी आशिल्लो. संगीताचो जाणकार, गवय आनी एक श्रेष्ठ कीर्तनकार म्हूण ताणे गोंयकार नामना मेळयल्ली. जल्मतांच सूर, ताल आनी लय हांची उपजत देणगी लाबिल्ल्या जितेंद्राक संगीताची उपाट ओड आशिल्ली. आपूण एक म्हान गायक जातलो, हो हावेस भुरगेपणांतूच ताणे आपल्या मनांत पक्को केलो. जितेंद्रान आपल्या फाटल्यान श्री मंगेश देवाचें पौरोहित्य सांबाळून आपल्या प्रमाणूच एक व्हड कीर्तनकार जावचो अशी ताच्या बापायची इत्सा आशिल्ली. शास्त्रीय संगीत खोलायेन शिकपाची उमळशीक आशिल्ल्या जितेंद्राक, बापायकडल्यान घेतिल्ल्या संगीताच्या मुळाव्या मार्गदर्शनान समाधान जालेंना. खाँसायब खादीम हुसेन खाँ आग्रेवाले हाच्यो शागीर्द, सौ. गिरीजाबाई केळेकार हिचेकडेन संगीतांतलें फुडलें शिकप घेवपाखातीर तो बांदोड्या वचपाक लागलो. सौ. गिरीजाबाईकडेन गाणे शिकता आसतनाच ताणें इंग्लीश शिकपाक सुरवात केली आनी तो मॅट्रिक पास जालो.

फुडलें शिकप करपाचें निमित्त करून गाणे शिकपाखातीर ती बेळगांव, पुणें हांगा गेलो. पुण्याक अनाथ विद्यार्थीगृहांत रावन कठीण परिश्रम घेवन ताणे शिक्षण आनी संगीताची विद्या आत्मसात करपाक सुरवात केली. कांय काळा उपरांत ताणे बी. ए. ची पदवी मेळयली. उपरांत थोडो वेळ ताणे मुंबय आकाशवाणीचेर कोंकणी विभागांत नोकरी केली. ह्याच काळांत ताणे मास्टर नवरंगाकडेन गायन शिकपाक सुरवात केली. नवरंगाकडल्यान ताणे ख्याल गायकीची मुखेल तंत्रां आनी नाट्यसंगीताचीं आंगा आत्मसात केलीं.

संगीत विद्या मेळोवपाची उपाट तळमळ आशिल्लो जितेंद्र फुडें खाँसायब अजमल हुसेद खाँ ह्या नामनेच्या आग्रेवाल्या खाँसायबाकडेन गावपाची तालीम घेवपाक लागलो. फुडे संगीत नाटक अकादमीची शिश्यवृत्ती घेवन तो नामनेचो गायक जगन्नाथ पुरोहित हाचेकडेन तालीम घेवपाक लागलो. कांय काळान एक बरो गावपी म्हूण ताचें नांव सगल्याक फामाद जालें. ताका मैफलींखातीर आमंत्रणां येवपाक लागलीं. संगीत अकादमीची शिश्यवृत्ती सोंपतकच ताका स. केसरबाय बांदोडकर आनी सौ. प्रफुल्ला जोशी (आतां डहाणुकर) हाणी अर्थीक आदार दिलो. एकदां बेळगांवां राबितो आसतना टायफॉइडाक लागून ताचो आवाजूच गेलो. पूण खडतर परिश्रम घेवन ताणे आपल्या आवाजाचेर परत ताबो मेळयलो.

पं. नरहरबुवा पाटणकर, पं. यशवंतबुवा महाले, श्रीमती गिरीजाबाई केळेकार, मास्टर नवरंग, खाँसाहेब अजमत हुसेन खाँ, पंडित रत्नकांत रामनाथकर, पं. जगन्नाथबुवा पुरोहित आनी गुल्लुभाई जहसदनवालां ह्या गुरूजनांनी केल्ल्या संस्कारांतल्यान जितेंद्राची ज्ञानसाधना फळाक आयल्या.

पदांतल्या उतरांचे ताचे उच्चार स्पश्ट आसतात. कुसुमाग्रजाची 'सर्वात्मका सर्वेश्वरा' ही प्रार्थना ताचे गायनकलेचें एक आगळेंच खाशेलेपण दाखोवन दिता. मराठी संगीत रंगमाचयेच्या पडट्या काळांत ताणे केल्लो वावर मोलाचो आसा. प्रा. वसंत कानेटकारांच्या संगीत मत्स्यगंधा नाटकाची पुराय संगीत बाजू पं. अभिषेकीन सांबाळिल्ली. हातूंतलीं 'देवाघरचे ज्ञात कुणाला', 'गुंतता हृदय हे', 'साद देती हिमशिखरें', 'तव भास अंतरा' हीं नाट्यगीतां इतलीं गाजलीं की तांच्या वरवीं मराठी संगीत रंगमाचयेची पुर्ननिर्मणी करपाक बरोच हातभार लागलो. ताणे संगीत चाली दिल्ल्या 'ययाती आणि देवयानि' 'हे बंध रेशमाचे', 'कट्यार काळजांत घुसली', 'धाडीला राम तिने का वनी', 'संत गोरा कुंभार', 'अमृत मोहिनी' ह्या नाटकांनीय उपाट यश जोडलें.

प्रभाकर कारेकार, राजा काळे, अजित कडकडे ह्या ताच्या शिष्यांनीय गायन कलेच्या मळार उपाट नांव जोडलां. २६ जानेवारी १९८८ दिसा भारत सरकारान ताका पद्मश्री दिवन ताचो भोवमान केलो. पुणे नगरपालिकेनय ताचो सत्कार केलो. शास्त्रीय संगीत गायनाच्यो तशेच भजन-अभंगांच्यो ताच्यो जायत्यो ध्वनीफिती (Casettes) आनी ध्वनिमुद्रिका (ग्रामोफोन रेकॉर्ड्स) आयल्यात.

- मलबाराव सरदेसाय

**अभिसारिका:** अष्टनायिकांमदली नामनेची नायिका. हिची व्याख्या अशी- 'कान्तार्थिनी तु या याति सङ्केतं साऽभिसारिका' (अमरकोश). अर्थ- वेळकाळ थारावन जी बायल आपल्या मोग्याक मेळपाक वता ती

अभिसारिका. संस्कृत कवी भरत हाणे तिच्या सभावगुणांप्रमाण तिची व्याख्या अशी दिल्याः

उद्दाममन्मथमहाज्वरखेपमाना
रोमाञ्चकण्टकितगात्रलतां वहन्ती।
निःशङ्किनी व्रजति या प्रियसङ्गमाय
सा नायिका निगदिता त्वभिसारिकेती।।

अर्थ- सळसळपी मोगाच्या उज्यांत तापपी, जिचें आंग मोगाच्या वा कामाच्या इत्सेन भरलां आनी कसल्याच आडमेळ्यांक भिनासतना आपल्या मोग्याक मेळूंक भायर सरिल्ली नायिका म्हळ्यार अभिसारिका.

रसमंजरींत तिचो आनीक एक खाशेलो गुण सांगलाः 'स्वयमभिसरति प्रियमभिसारयति वा या, स अभिसारिका'. अर्थ- आपल्या मोग्याच्या भेटेक वता वा मोग्याक आपल्या भेटेक आपयता ती अभिसारिका.

अभिसार म्हळ्यार दोन मोगी जीवांनी चोरून एकामेकांक मेळपाक वचप. स्वीया, सामान्या, मुग्धा, प्रौढा, उत्तमा, मध्यमा हे अभिसारिकांचे पोटभेद. अभिसारिकेचो मोगी परपुरुश आसूंकूच जाय अशें ना. स्वताच्या घोवाक मेळपाक, घरच्या मनशांचो दोळो चुकोवन थारायिल्ल्या जाग्यार वचपी बायल अभिसारिकाच थारता. परकी अभिसारिकेक हाच्याकूय चड भंय आसता. आपली शिंदळकी उक्ती जाल्यार आपली लज वतली हाची तिका भिरांत आसता. शुक्लपक्षाच्या रातीकडेन चान्नें आसता, तेन्ना ती धवें वस्त्र न्हेसता. कष्णपक्षांत काळें वा निळें वस्त्र न्हेसता. वेगवेगळीं वस्त्रां न्हसेपाचो तिचो हेत म्हळ्यार भोंवतणच्या सैमाकडेन एकरुप जांवचें आनी ताका लागून आपूण कोणाचेच नदरेक पडची न्हय असो आसता.



अभिसारिका नायिका

तिचे भेद अशेतरेन करतात- जी अभिसार करपाक कोणाकूच भिनासतना, कोणाचोच आदार घेनासतना भायर सरता ते अभिसारिकेक 'उत्तम' म्हळां. जी आपलेवांगडा एकाद्रेचो सांगात घेवन वता ती 'मध्यमा' आनी जी काळाचेर पातयेवंन रावता, तिका 'अधमा' म्हळ्या.

अष्टनायिकांत अभिसारिका हीच रसिकांक चड आवडटा. अमरुशतकांतल्या तिच्या वर्णनाचो एक श्लोक असो-

उरसि निहितस्तारो हारः कृता जघने घने
कलकलवती काञ्ची पादौ रणन्मणिनूपुरौ
प्रियमभिसरस्येवं मुग्धे त्वमाहतडिण्डिमा
यदि किमधिकत्रासोत्कम्पं दिशः समुदीक्षसे।।

अर्थः तुज्या हड्ड्यार फुलांची माळ सळसळटा. धश्टपुश्ट हातांचेर कांकणा किणकिणटात. पायांत माणकां-मणी आवाज करतात. हे मुग्धे, अशे तरेन हीं वाद्यां वाजयत तूं अभिसाराक भायर सरल्या, जाल्यार कोणूय पळेत ह्या भयान हेवटेन तेवटेन कित्याक पळेता?
(शृंगारनायिका)

- कों. वि. सं. मं.

**अभिज्ञानशाकुंतलः** कवी कालिदासाचें संस्कृत नाटक. कालिदासान बरयल्ल्या वट्ट तीन नाटकांत हेंच निमाणें आसूंक जाय अशें एक मत आसा. ह्या नाटकाचे हातबरपावळीचे प्रतींचें लिपिभिन्नतेप्रमाण देवनागरी, बंगाली आनी दक्षिण भारतीय अशे प्रकार आसात. पूण देवनागरी आनी दक्षिणभारतीय प्रतींल्यान दिसून येवपी ह्या नाटकाचें रूप मूळ नाटकालागीं चड लागींचें आसा अशे जाणकारांचें मत आसा.

ह्या नाटकाची काणी अशीः शिकार करपाखातीर रानांत आयिल्लो दुष्यंत राजा कण्व मुनीच्या आश्रमांत येता. थंयच ताका कण्व मुनींची मानिल्ली धूव शकुंतला मेळटा. दुष्यंत आनी शकुंतला एकामेकांच्या मोगांत पडून गांधर्व-रितीन लग्न जातात. राजा आपलें नांव आशिल्ली मुदी तिका दिता आनी 'हांव मागीर येवन तुका राजधानीत व्हरतां.' अशें शकुंतलेक वचन दिवन तो राजधानींत परतता. ते उपरांत एक दीस शकुंतला दुष्यंताच्या चिंतनांत गुल्ल आसतना अतिथी म्हुण आयिल्ल्या दुर्वास मुनींच्या उल्याकडेन तिचें लक्ष वचना. 'तूं जाचें चिंतन करता ताका तुजी विसराय पडटली' असो श्राप दुर्वास मुनी रागान दिता. प्रियंवदा आनी अनसुया ह्या शकुंतलेच्या इश्टीणींचें थंय लक्ष आसता. शकुंतलेची चूक जाली तिका माफी करची अशें प्रियंवदेन मागतकच अभिज्ञान (वळख) म्हुण एकाद्रो अलंकार दाखयतकच श्राप सोंपतलो असो उःशाप दुर्वासमुनी दिता.

हें सगळें चालू आसतना शकुंतला आपल्या चितनातूच गुंग आसता. तिच्यो इश्टीणी तिका हो प्रसंग मात्तूय कळयनात. शकुंतलेकडेन आशिल्ली मुदी तिका श्रापांतल्यान वांटायतली अशी तांची खात्री आसता. दुष्यंत राजा शकुंतलेक व्हरपाक आश्रमांत येना. राजाच्या आपोवण्याची वाट पळोवन-पळोवन ती थकता आनी निमाणी स्वताच वचून ताच्या दरबारांत हाजीर जाता. पूण राजा गुरखार शकुंतलेक वळखना. ताका वळख दाखयतली तर ताणे दिल्ली मुदी तिचे कडल्यान शेणिल्ली आसता. ती निर्शेता, तिचें कांयच शाणपण चलना. इतल्यान एक तेजीश्ट बायल तिका अप्सरस्तीर्थाकडेन घेवन वता. फुडें एका खारव्याक नुस्त्याच्या पोटांत ती खुणेची मुदी मेळटा आनी ताचेवरवीं ती राजाकडेन पावता. ती वळखतकच फाटलो सगळो उगडास जावन राजाक पश्चात्ताप जाता. ते स्थितींत इंद्राच्या आपोवण्यावेल्यान असुरांकडेन झुजपाखातीर तो स्वर्गलोकांत वता. थंयसून परत येतना हेमकूट पर्वताचेर मारिचाश्रमात ताका शकुंतला आनी तिका जाल्लो सर्वदमन हो तांचो चलो, हांची भेट जाता. तीं व्हडा खोशयेन एकामेकांक मेळटात.

दुष्यंत-शकुंतलेची ही कथा महाभारताच्या आदिपर्वांत आयल्या. तशेंच ती पद्मपुराणांतूय आसा. कालिदासान आपले नाट्यकृतीखातीर महाभारतांतल्या कथेचोच आधार घेतला आसूंक जाय अशें विद्वानांचे मत आसा. पूण मूळ कथानकांत ताणे म्हत्वाचे बदल केल्यात. महाभारतांतली शकुंतला "म्हज्या चल्याक युवराज केलो जाल्यारुच तुजेकडेन लग्न जातली" अशी अट राजाक घालता. मागीर शकुंतला राजधानींत आपल्या चल्याक घेवन आयिल्ली आसतना दुष्यंत राजा

शकुंतलेक बळयांच वळख दाखयना.

कालिदासाची शुंकतला कसलीच वेव्हारीक अट घालीनास्तना राजाकडेन फकत निव्वळ मोगाक लागून लग्न जाता. कालिदासान दुर्वास मुनींचो प्रसंग घालून दुष्यंताच्या चारित्र्याक उणेपण येवंक दिवना. मुदलाचे कथेंत चल्याक वांगडा घेवन शकुंतला दरबारांत येता, तिचो अपमान जातकच आकाशवाणी जाता आनी राजा तिचो स्वीकार करता अशें वर्णन आयलां.

कालिदासान दुष्यंत-शकुंतला हांच्या मीलनाक कळाव लावन विरहाच्या फाटभुंयेचेर तांचो मोग एके खाशेले शैलीन रंगयला. आपल्या कुशळ प्रतिभेन कालिदासान मूळ कथेंत तरेकवार प्रसंग आनी पात्रां घालून ह्या नाटकाक एक आगळें रूप दिलां. ह्या नाटकांतसून ताचे रेखीव नाट्यरचनेचो, मनीस सभावाच्या सखोल गिन्यानाचो आनी काव्यात्म संवाद लेखनाचो अणभव वाचप्याक जाता.

अभिज्ञानशाकुंतलाची कथा म्हळ्यार कुडीच्या मोगाचें आध्यात्मिक मोगांत रुपांतर जाल्याची एक म्हान कथा अशें रवीन्द्रनाथ टागोर हाणे म्हळां. कालिदासाच्या सगळ्या नाटकांत हें नाटक श्रेष्ठ अशें मानतात. संवसारीक किर्तीच्या म्हान अभिजात साहित्यकृतींत शाकुंतलाचो आसपाव जाता. सर विल्यम जोन्स हाणें ह्या नाटकाचो १७८९ वर्सा पयलो इंग्लीश अणकार करून अस्तंतेकडल्या लोकांक ताची वळख करून दिली. ताचेउपरांत जर्मन, फ्रेंच, डॅनिश, इटालियन अशा कितल्याशाच युरोपीय भासांनी ताचे अणकार जाले. गटे, श्लेगेल, हंबोल्ट, आदी अस्तंती साहित्यक्षेत्रीनीं ह्या नाटकाची खूब तुस्त केल्या. अण्णासाहेब किर्लोस्कर हाणे १८८१ वर्सा ह्या नाटकाचें मराठी रुपांतर केलें. रुई सांतु येल्मु हाणे ह्या नाटकाचो पोर्तुगेज अणकार केला. लक्ष्मणराव सरदेसाय हाणे हें नाटक कोंकणीत अणकारलां.

- कों. वि. सं. मं.

**अभ्यंकर, अनंत गोविंद:** (जल्म: १२ ऑगस्ट १९३२, आंबेडें-सत्तरी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. सुटके चळवळीकाळांत तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. स्वातंत्र्या उपरांत तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' हे संघटनेचो वांगडी जालो. सुटके चळवळीच्या काळांत ताणें जायतो वावर केला. तशेंच भौजन समाजाक शिक्षण मेळचें म्हूण तो खूब झटला. २६ जानेवारी १९५५ दिसा सत्तरीच्या धावें वाठारांत जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. देखून ताका आठ वर्सां बंदखणींत खर ख्यास्त भोगची पडली. त्याभायर दंडय भरचो पडलो.

१५ ऑगस्ट १९७४ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८५ दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**अमरकोश:** संस्कृत भाशेंतलो एक खूब पूर्विल्लो शब्दकोश. हाच्या कर्त्याचें नांव अमरसिंह. सव्या ते आठव्या शेंकड्यांत केन्नातरी तो जावन गेला आसूंये अशें विद्वानांचें मत आसा. हो बौध्दमतानुयायी आशिल्लो अशें म्हणटात. हो शब्दकोश अनुष्टुभ् छंदांत रचला आनी हातूंतले श्लोक (सुमार १,५००) वेगवेगळ्या पदार्थांच्या वर्गांप्रमाण तीन कांडांत विंभागल्यात. देखून, हाका केन्नाय 'त्रिकांड' वा 'त्रिकांडी' अशेंय म्हणटात. हातूंत त्या त्या कांडांत आयिल्ल्या वर्गांकडेन संबंदीत अशा शब्दांक समान अर्थाचे शब्द दिल्यात. ह्या कोशांत सुमार १०,००० शब्द आस्पावतात. पयल्या कांडांत स्वर्गवर्ग, व्योमवर्ग, दिग्वर्ग, कालवर्ग, धीवर्ग, शब्दादिवर्ग, नाट्यवर्ग, पातालभोगिवर्ग, नरकवर्ग आनी वारिवर्ग ह्या वर्गांचो आस्पाव आसून दुसऱ्यांत भूमिवर्ग, पुरवर्ग, शैलवर्ग, वनौषधिवर्ग, सिंहादिवर्ग, मनुष्यवर्ग, ब्रह्मवर्ग, क्षत्रियवर्ग, वैश्यवर्ग आनी शूद्रवर्ग हे वर्ग आसात. तिसऱ्या कांडांत विशेष्यनिघ्नवर्ग, संकीर्णवर्ग, नानार्थवर्ग अव्ययवर्ग आनी लिंगादिसंग्रहवर्ग हे वर्ग आसात. अमरकोशाच्या आरंभाकूच ताची परिभाषा स्पष्ट केल्या. शब्दाच्या अर्थावांगडाच ताच्या लिंगाची माहितीय हातूंत मेळटा देखून हाका नामलिंगानुशासन अशेंय म्हण्टात. ह्या कोशाचेर सुमार पन्नास टीका बरयल्यात. तातूंतली क्षीरस्वामीची 'अमरकोशोद्‌घाटन' (सुमार अकरावो शेंकडो), बृहस्पती रायमुकुटमणीची 'अमरकोशपंजिका पदचंद्रिका' (१४३१) आनी भानुजी दीक्षिताची 'व्याख्यासुधा' वा 'रामाश्रमी' (सतरावो शेंकडो) ह्यो टीका चड नामना पावल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**अमरावती-१ :** पौराणिक साहित्यांत उल्लेखिल्ली स्वर्गांतली इंद्राची राजधानी. हें राजधानीचें नगर जंबु जुव्यांचेर, मेरु पर्वताच्या उदेंत वाठारांत मान तळयाच्या देगेर वसलां. पौराणिक साहित्यांत ह्या नगराक 'देवधानी', 'वस्वौकसारा' आनी 'माहेंद्री' अशीं तरेकवार नांवां मेळटात. भव्यता आनी सोबीतकायेखातीर ह्या नगराची नामना आसा. पुराणांत ह्या नगराविशीं अशें वर्णन आसा. 'ह्या अमरावतींत सुधर्मी नांवाची देवसभा आसून नंदनवन नांवाचें उद्यान आसा. ह्या नगरांत अमृताचो सांठो आसा. कांय काळ ह्या नगराचेर बलि दैत्यान जैत मेळयल्लें. थंय गंधर्व अप्सरा हांचो राबितो आसा आनी त्यो इंद्राची आनी हेर पुण्यवंताची सेवा करतात. हांगा पुण्यवंताक सगळे तरेचें सूख भोगूंक मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**अमरावती-२ :** महाराष्ट्र राज्यांतल्या अमरावती जिल्ह्याचें मुखेल ठाणें. क्षेत्रफळ ३६.३४ चौ. किमी. लोकसंख्या २,६१,४०४ (१९८१). ह्या शारांत ताराखेडा, राजापेठ, गंभीरपूर आनी महाजनपूर ह्या वाठारांचो आस्पाव जाता. हांगाचें हवामान विषम आसून उबाळ्याच्या दिसांनी हांगाचें तपमान सुमार ४०० से. मेरेन आसता. पावस ८६.४ सेंमी पडटा.

आदल्या तेंपार ह्या शाराक अंबेच्या देवळाखातीर खूब म्हत्व आशिल्लें. अमरावतीच्या उदेंतेक कौंडण्यपूर नांवाचो एक गांव आसा. थंय अंबादेवीचें देवूळ आसा. ह्या देवळालागसारच्या वाठाराक अंबिकापूर म्हण्टाले. त्या भागांत रुमडाचीं खूब झाडां आशिल्लीं. देखून ह्या वाठाराक उंबरमती हें नांव पडलें. ताचेंच फुडें उमरावती-अमरावती अशें रुपांतर जालें म्हूण सांगतात. विदर्भ देशाची राजकन्या रुक्मिणी हांगाच्या अंबा देवीच्या दर्शनाक आयिल्लेकडेन श्रीकृष्णान तिचें हरण केलें अशी आख्यायिका आसा.

ह्या शाराविशीं मदल्या काळांतली कांय खबर मेळना. अठराव्या शेंकड्यांत नागपूर वाठारांतलो श्रीमंत रघुजी भोसले हाचे राजवटींत ह्या शाराक परतें म्हत्व आयलें. पेंढाऱ्यांपसून थळाव्या लोकांची राखण करपाखातीर निजामान १८०४ वर्सा हांगा दुरीग बांदलें. हें दुरीग ७.६ मी. उंचायेचें आसा. पोरनें अमरावती शार ह्या दुर्गाभितर आसा आनी नव्या अमरावतीचो विस्तार दुर्गाभायर आसा.

ह्या शारांत तेल गाळप, तोरची दाळ तयार करप, कुकूम (पिंजर), कापसाचे गड्डे बांदप, शिमिटाचे ह्यूम पायप, प्लास्टिकाचे स्विच आनी हेर वस्तू तयार करपाचे उद्येगधंदे हांगा चलतात. राज्यपरिवहन मंडळाची एक व्हड कर्मशाळा हांगा आसा. माध्यमिक शाळा, आयुर्वेद, मानव्य आनी विज्ञान महाविद्यालयां, आंतरराष्ट्रीय नामना फाव जाल्लें हनुमान व्यायाम प्रसारक मंडळ, हेर शारिरीक शिक्षण विद्यालयां, कलानिकेतन, गांवगिरी शिक्षण प्रयोग संस्था आनी हेर जायत्यो शिक्षणीक संस्था हांगा आसात. तेभायर श्री शिवाजीराव पटवर्धन हाणे थापणूक केल्ली एक व्हड कुष्ठनिवारण संस्था ह्या शारांत आसा.

मुंबय ते कलकत्ता ह्या महामार्गार हें शार आसा. अमरावती तालुक्यांतल्या सगळ्या लागसारच्या जिल्ह्यांतल्या मुखेल वाठारांकडेन हें शार रस्त्यान जोडलां. मुंबय-नागपूर रेल्वेमार्गावेल्या बडनेरा ह्या स्थानकाक तें रेल्वेन जोडलां.

ह्या शारांत अंबादेवी आनी बालाजी हांचीं नामनेची, पूर्विल्लीं देवळां आसात. अंबेच्या देवळाचे दक्षिणेक व्हाळाचे पलतडीं एकविरा देवीचें देवूळ आसा. तशेंच जायत्यो मशिदी, जैन मंदिरा आनी नक्षीकाम केल्ली राजा बिशनचंदाची हवेली पळोवपा सारकी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**अमासः** (पळेयात उमास)

**अमीबाः** (वर्गः ऱ्हायझोपोडो, संघः प्रोटोझोआ.) अमिबाच्या शरिराची रचणूक सादी आसून तिचो आकार थारावीक आसना. तो एकसारको बदलत आसता. ताचें शरीर एकाच पेशीचें वा कोशिकेचें घडिल्लें आसून पातळ आनी लवचिक जीवद्रव्य कल्लांत (plasmalemma) धांपिल्लें आसता. ह्या कल्ल्या भितर जीवद्रव्य (protoplasm) आसता. ताच्या भायर आशिल्ल्या नितळ थराक बहिर्द्रव्य (ectoplasm) आनी उरिल्ल्या पातळ पूण कणांनी भरिल्ल्या भागाक अंतद्रर्व्य (endoplasm) म्हण्टात. अंतद्रर्व्यांत आशिल्ले वाटकुळें केंद्र शरिरांतल्या चलनवलनाचेर नियंत्रण दवरता. ह्याच भागांत एक वा चड ल्हान-व्हड जावपी बुराक (compression lacuna) आसतात. शरीरा भितल्लो दाब नियंत्रीत करप आनी द्रव्यरूप पदार्थ कांय प्रमाणांत शरिराच्या भायर उडोवप हीं तांचीं मुखेल कार्यां.



**अमीबाची शरीर-रचणूक**

खार आनी गोड उदक, दमट जमीन अशा वातावरणांत अमीबाची वस्ती आसता. अमीबा वंशाच्यो जायत्यो जाती आसात. कांय जाती मनशाच्या सर्वसादारण नदरेक दिश्टी पडनात. कांय जाती साद्या दोळ्यांक दिसतात. 'अमीबा प्रोटिअस' ही जात चडशी सगळेकडेन दिसता.

अमीबा एका थारावीक आकारायेदो जातकच ताचे दोन कुडके जावन तांची प्रजनन क्रिया सुरू जाता. ह्या शरिरांत दोन कुडके जावन ताचे दोन वेगळे प्राणी जातात.

बारीक सूक्ष्मजंतू, डायाटम आनी जैव पदार्थांचे कण ही अमिबाची खावड जावन आसा. आपल्या शरिरांतल्यान भायर सरिल्ल्या बोटावरी फागूरांनी (Process Pseudopodium) आपली खावड ओडून ती आपल्या जीवद्रव्यांत घेता. खावडीच्या भोंवतणी उदकाचो ल्हानसो थर आसता. हाका अन्न-रिक्तिका (Food vacuole) म्हण्टात. हातूंत अन्नाचें पचन जाता. पचनक्रिये उपरांत शरिराच्या वयल्या भागार खंयच्याय सुवातेर अन्न-रिक्तिका फुटून मल वा घाण भायर उडयता. फागूराचो उपेग चलपाखातीर जाता. अमीबा ज्या उदकांत रावता, तातूंत विरगळील्लो ऑक्सिजन, विसरणान (diffusion) जीवद्रव्यकल्लांतल्यान शरिरांत वता आनी तातूंत उत्पन्न जावपी कार्बन डाय-ऑक्साइड भायर पडटा. चयापचयाक लागून (शरीरांत सतत जावपी भौतिक आनी रसायनीक घडणुकांक लागून) उत्पन्न जावपी यूरियावरी निरुपयोगी पदार्थ जीवद्रव्यकलांतल्यान भायर वतात.

**रोगः** अमिबाच्यो जायत्यो जाती विंगड विंगड प्राण्याच्या अन्नमार्गांत परजीवी आसतात. तातूंतल्यो कांय रोगाचो प्रसार करतात. एंटामीबा हिस्टॉलिटिक ह्या प्रजीवाच्या (Protozoa) संपर्कान व्हडल्या आंतकड्यांच्या आनी भितरल्या इंद्रियांच्या शोथाक (दाहयुक्त सुजीक) 'अमिबाजन्य विकार' म्हण्टात.

चिकित्साः एमेटीन, डाय-ओयोडोक्विन, सोमल क्लोरोक्विन हीं वखदां अमिबाच्या रोगाचेर गुणकारी आसतात. प्रतिजैव वखदांमदीं 'टेरामायसीन' म्हत्वाचें आसता.

अमिबाच्यो श्वसन आनी उत्सर्जन क्रिया सगळ्या पृष्ठावेल्यान (sheet, plane) जातात. कठीण परिस्थितींत एका पदार्थाच्या स्त्रवणान आपल्या शरिराभोंवतणी संरक्षक पुटी निर्माण करून अनुकूल परिस्थितीची वाट पळयत निश्क्रिय अवस्थेंत तातूंत पडून रावता. अनुकूल परिस्थितींत अमीबा तातूंतल्यान भायर सरता.

- कों. वि. सं. मं.

**अमीर खुसरौः** (जल्मः १२५३; मरणः १३२५).

फार्सी भाशेंतलो नामनेचो भारतीय कवी, विद्वान आनी संगीतकार. ताचें पुराय नांव अबुल-हसन यमीनुद्दीन अमीर खुसरौ देहलवी. ताचो जल्म एटा जिल्ह्यांतल्या (उत्तर प्रदेश) पटियाली गांवांत जालो. ताचो बापूय अमीर सैफुद्दीन महमूद हो तुर्कस्तानांतलो सरदार आशिल्लो. तो अल्तमशचे मुस्तींत भारतांत येवन स्थायिक जालो. ताची आवय भारतीय आशिल्ली. तो धा वर्सांचो आसतनाच ताचो बापूय भायर पडलो. ताच्या आज्यान (आवयचो बापूय) आनी आवयन ताका वाडयलो. ल्हान आसतनाच तो निजामुद्दीन औलिया ह्या सत्पुरुशाचो अनुयायी जालो. ताचेविशीं खुसरौक खूब आदर आनी मोग आशिल्लो.

ताणें ल्हान आसतनाच कविता बरोवंक सुरवात केली तशेंच फार्सी, अरबी, तुर्की आनी हिंदी ह्या भाशांचो अभ्यास केलो. दिल्लीच्या राजदरबारांत राजकवी म्हूण ताणें खूब वर्सां काम केलें. कैकुबाद ह्या सुलतानान ताका 'मलिक-उश-शुअरा' म्हळ्यार 'कविसम्राट' अशी पदवी दिली. इराणांतले फार्सी विद्वान ताचो 'तूती-ए-हिंद' (भारताचो पोपट) म्हूण गौरव करताले. ताची काव्य निर्मणी खूब ऊंच पांवड्याची जावन आसा. तो फार्सी भाशेंतलो नामनेचो कवी आशिल्लोच तेभायर भाशाशास्त्रज्ञ, संगीतकार, गूढवादी आनी अश्टतासांचो विद्वान अशी ताणें कीर्त मेळयली.

हिंदुस्तानी संगीताच्या मळार ताणें मोलादीक वावर केलो आनी तें चड समृध्द केलें. कांय नवे राग आनी मिश्र राग तयार करून ते लोकांमदीं पावयले. देखीक- यमन, कल्याण, काफी, बहार, झीलफ, सांजगिरी, मजीर, फरगन, सरमदी आदी. सतार हें वाद्य लोकांमदीं पावोवपाचें श्रेय ताकाच वता. कवाली पध्दतीची गायकी खुसरौन पयलीं सोदून काडली अशें म्हण्टात. पखवाजापसून तबलें आनी डग्गो अशे दोन भाग करून ताचें एक नवें वाद्य ताणें तयार केलें आनी प्रचारांत हाडलें. ताका संगीततज्ञांनी 'नायक' अशी भोवमानाची पदवी दिल्ली.

फार्सींतल्या नामनेच्या कवींमदीं ताची गणना जाता. ताच्या काव्यांत सखोल अनुभूती, कल्पनाशक्त आनी खास करून भारतीय उपमा आनी अलंकार हांचो आस्पाव आसा. ताणें गद्य काव्य लेगीत बरयलां. तातूंत ताची स्वतंत्र शैली दिसून येता. भारताविशीं ताका उपाट मोग आशिल्लो. 'नुह सिपिहर' ह्या ताच्या ग्रंथांत ताणें भारताचें गिन्यान आनी संस्कृताय हांचो भोवमानान उल्लेख केला.

ताची ग्रंथनिर्मणी अशीः पांच कवितां झेले (दीवान): १. तुहफतुल-सिगर (१२७२) २. वस्तुल हयात (१२८५) ३. गुर्रतुल- कमाल (१२९४) ४. बकीया-ए-नकीया (१३१६) आनी ५. निहायतुल-कमाल (१३२४). पांच इतिहासीक खंडकाव्यां (तारीखी मस्नवियाँ)- १. किरानुस-सअदेन (१२८९) २. मिफताहुल- फुतूह (१२९१) ३. खिज्र

खाँ दवल रानी (१३१६) ४. नुह सिपिहर (१३१८) आनी ५. तुगलक नामा (१३२४). हीं खंडकाव्यां राजांचे आनी सुलतानांचे तुस्तेचेर आदारिल्लीं आसात.



अमीर खुसरौ

इराणचो नामनेचो फार्सी कवी निजामी-ए-गंजवी (सुमार ११४१-१२०३) हाणें 'खम्सा' म्हळ्या र पांच मस्नवियाँ बरयल्यात, ताचो आदर्श फुडें दवरून खुसरौन १२९८ ते १३०१ ह्या काळांत पांच मस्नवियाँ बरयल्यो. १. मतलअ उ'ल अनवार २. शीरि खुसरौ ३. मजनूँ लैला ४. आईना-इ-सिकंदरी आनी ५. हश्त-बिहिश्त. तीन गद्य ग्रंथः १. खजाइनु, ल फुतूह (अल्लाउद्दीन खिलजीच्या काळचो इतिहास) २. इअजाजे खुसरवी (स्फुट लेखांचो झेलो) ३. अफजलु'ल फवाइद (निजामुद्दीन औलिया हाच्या वचनांचो आनी उपदेशांचो झेलो).

जवाहरे खुसरवी ह्या नांवाचो एक काव्यझेलो आसून तातूंत ताचे दोहे, गीत, पहेलियाँ (कूटकाव्य) आनी फार्सी-हिंदी-भरसल्लीं कांय पदां हांचो आस्वाव आसा. ताणें हिंदी भाशेंतूय बरीच ग्रंथरचणूक केल्या अशें म्हण्टात. 'खालिक बारी' नांवाचो ताचो हिंदी गद्यग्रंथ नांवाजिल्लो आसा.

-कों. वि. सं. मं.

**अमृतः** अमृत='नास्ति'मृतं (मर्ण) यस्मात् तत्= जें पिल्ल्यान मरण येना, ताका अमृत म्हळां (हलायुध). ताका पीयूष आनी सुधा अशीं आनीकय नांवां आसात. अमृत हें एक रसायन आसून ताचे उत्पत्तीची कथा पुराणांत अशी सांगल्याः-

'एक दीस इंद्र ऐरावताचेर बसून वतालो. ताचें तें वैभव पळोवन दुर्वास ऋषीचें मन प्रसन्न जालें. ताणें आपल्या गळ्यांतली माळ काडून इंद्राचेर उडयली, पूण इंद्रान वयलेवयर ती झेलून घेवंक ना, ताका लागून ती माळ हत्तीच्या पांया पोंदा पडली. तें पळोवन दुर्वास ऋषीक संताप आयलो. ताणें रागान इंद्राक श्राप दिलो. 'तुजें वैभव, गिरेस्तकाय नश्ट जावं!' तो श्राप खरो जालो. राक्षसांनी सर्गाचेर घुरी घालून इंद्रपदाचेर आपलो अधिकार गाजयलो. ताकालागून इंद्राक आपलें राज्यशिंवासन सोडचें पडलें. ब्रह्मासयत सगळे देव मागीर विष्णूक शरण गेले. विष्णून देवांक धीर दिवन म्हळें, 'तुमी राक्षसांकडेन बरेपणान इश्टागतीचें नातें दवरात आनी तांच्या आदारान क्षीरसागराचें मंथन करात. तातूंतल्यान अमृत भायर सरतलें. तें पितकच तुमी अमर आनी बळीश्ट जातले. मागीर राक्षस तुमकां हारोवंक शकचे नात.'

राक्षसांचो राजा बली हाचेकडेन देवांनी तेविशीं उलोवणी केलीं आनी जें अमृत भायर सरतलें तातूंतलो अर्दो वांटो दिवपाचें मान्य केलें. राक्षसांक ही अट मान्य जाली. मागीर मंदार पर्वताची रवी आनी वासूकीची दोरी करून देव आनी राक्षसांनी क्षीरसागराचें मंथन केलें. त्यावेळार विष्णून कांसवाचें रूप घेवन मंदार पर्वताच्या सकयल रावन आदार दिलो. जाल्यार शिवान वासुकीचें वीख पियेवन क्षीरसागराचो वाठार नितळ दवरलो. हाका लागून शिवाचें आंग निळें पडलें.

क्षीरसागराच्या मंथनांतल्यान चवदा रत्नां भायर सरलीं. अमृत हेंवूय तातूंतलेंच एक रत्न. धन्वंतरी अमृताची कळसुली घेवन वयर आयलो. तें पळोवन राक्षसांनी तांचेर घुरी घाली आनी अमृत फारायलें. ताका लागून देव परते विष्णू म्हऱ्यांत गेले. विष्णून तांकां राक्षसाक तोंड दिवपाचें उतर दिलें.

विष्णून एके सुंदर बायलेचें रूप घेतलें आनी तो मंथनाच्या जाग्यार आयलो. (विष्णूच्या ह्या रुपाक पुराणांत मोहिनीरुप म्हळां.) मोहिनीचें सोबीत रूप पळोवन राक्षस भुल्लुसले आनी तिच्या फाटल्यान लागले. ''हांव सगळ्यांक अमृत वांट्टां.'' अशें सांगून विष्णून अमृताची कळसुली आपणाल्या ताब्यांत घेंतली आनी देवांच्यो आनी राक्षसांच्यो वेगवेगळ्यो पंगती बसयल्यो. तिणे देवांचे पंगतींतल्यान अमृत वाडपाक सुरवात केली. राक्षसाचे पंगतीक राहू नांवाचो राक्षस आसलो. ताका दिसलें अमृत देवांचे पंगतीक सोंपल्यार आपूण शेणटलों, म्हूण तो गुप्त रुपान देवांचे पंगतीक येवन बसलो. चंद्र सुर्यान ताचें कपट वळखलें, तांणी रोखडेंच मोहिनीक तेविशीं सांगलें. मोहिनीन कळाव लायनासतना सुदर्शनचक्रान राहूची तकली उडयली. पूण राहुचे तकलेक अमृताचो स्पर्श जाल्यान ताची तकली तुटल्यार लेगीत तो अमर उरलो. मोहिनीन देवांचे पंगतींतूच अमृत सोंपयलें. राक्षसांक ताचो थेंबूय मेळूंक पावलो ना. ताका लागून राक्षस तिडकले आनी झुजाक उबे रावले. पूण त्या झुजांत देवांनी तांकां हारयले. मोहिनी रोखडीच गुप्त जाली (भागवत पुराण ८.६.११).

आपूण अमर कसो जातलों ही चिंता वेदकाळासावन मनशाक लागल्या.

> यदग्नेऽ मर्त्यस्त्वं स्यामहे मित्रमहं अमर्त्यः
> सहसः सूनवाहुत।। (ऋग्वेद ८.१९.२५)

अर्थः हे अग्नी हांव अमर ना. इश्टागतींचो आनी मोगाचो उजवाड आशिल्लो तूं मात अमर आसा. हांवें आनी तुवें एक जावंचें (आनी तुज्यासारकें अमर जावंचें.)

काण्व सौभरीन भौसांचो उमाळो हे वरवीं उक्तावन दाखयला. वैदिक ऋषीची प्रतिभा अमृताच्या सोदाखातीर पुराय संवसाराचो थाव घेता, आनी सर्गाच्या निमाणे शीमेमेरेन पावता, इतकेंच न्हय तर ते शीमेमुखार वचपाची तांची तयारी आसता. वैदिक लोक जेवचेपयलींचे क्रियेक अमृताचें उपस्तरण (बसका) आनी जेवणाउपरांतचे क्रियेक अमृताचें अपिधान (धाकणें) अशें समजताले. ऋग्वेदांत उज्याक अमर म्हळां. त्यावेल्यान वेदोत्तर साहित्यांत सगळ्या देवांक अमर्त्य म्हळां. तांकां 'अमर' अशें नांव मेळळां. 'अमृत=सोम'; सोम म्हळ्यार अमृत आनी हो रोस देवालें खासा पेय अशें मानलां (शतपथ ब्राह्मण ९.५.१.८). 'हांव सोम पिलों आनी अमर जालों.' अशें काण्व प्रगाथ हो म्हण्टा (ऋग्वेद ८.४८.३). शतपथांत हें उतर जायते फावट आयलां. ताका सर्गांतलें पेय वा रोस म्हळां. वायुपुराणांत अमृताचो संबंद सोमाकडेन जोडीनासतना चंद्राकडेन जोडला. पुराण काळांत सोमाचो वाली कडेन (वल्लीकडेन) आशिल्लो संबंद सोडून चंद्राकडेन जोडपाक येवंक लागलो, हांची ही एक देख आसा. वैदिक साहित्यांत जेपरीं आदित्य, अग्नि, अप ह्या देव-देवतांक जशें अमृत म्हळां. तेचपरी प्राण, हिरण्य, ऋक्, रूच(दिप्ति), सर्ग सारक्या हेर वस्तूंक अमृत म्हळां (श.ब्रा. ९.१२.२;३.९.४.४.५; तै. ब्रा. १.७.६.३; १.३.७.५). अमृताक लागून मरण चुकता अशें शतपथांत म्हळां (१०.२.६.१९). 'मृत्योर्मा अमृतं गमय' = मर्णाकडल्यान म्हाका अमृताकडेन व्हर ही उपनिशदांची प्रार्थना आसा.

ह्या वयल्या नियाळांतल्यान अमृत म्हळ्यार कितें? तें कशें करतात?

हेविशीं म्हायती मेळना. शतपथ रचप्याकय ते खबर नासूंये. त्यापासत शंबर वर्सां वा त्यापरस चड आयूष्य जगप म्हळ्यार अमृत अशें स्पश्टीकरण दोन तीन कडेन वाचूंक मेळटा (श.ब्रा. ९.५.१.१०;१०.२.६८). चंद्रमंडळांतल्यान अमृतरस पाझरता ही कल्पना पुराणकाळांत मुखार आयली. चंद्राच्या अमृतमय बिंबाचे कुडके कृष्णपक्षांत देव प्राशन करतात आनी दोन कुडके पितर फाटले वटेन येवन पितात अशें विष्णुपुराण सांगता (२.१२).

अस्तंतेच्या देशांनी ॲंब्रोशिया नांवाचें खाण आनी नेक्टर नांवाचें पेय अमरत्व दिवपी मानतात. ग्रीक पुराण आनी होमरचें इलियड हांच्यावेल्यान हे खाण सुवादीक आशिल्ल्याचें समजता. ॲंब्रोशिया खावन अमर जाल्ल्याच्यो खूब कथा अस्तंतेच्या साहित्यांत मेळटात. अमृत आंगाचे घाये पेखयता असोय उल्लेख अस्तंतेच्या साहित्यांत मेळटा.

सर्गांत अमृताचो व्हड सांठो आसून, तो राखपाक खासा वेवस्था आशिल्ल्याचें महाभारतांतल्या सुपर्णाख्यानावेल्यान समजता (आदि. ३२). पाताळांतल्या नागलोकांत अमृताचे पात्रतायेचो एक रोस आशिल्ल्याचें पुराणांनी मान्य केलां. कौरवांनी भीमाक झाडाच्या वेलीनी बांदून न्हंयत व्हरून उडयलो मागीर ताका वासुकीन पाताळांत व्हरून थंयचो रोस पिवपाक सांगलो. त्या रोसान भीमाक धा हजार हतयांचें बळ आयलें अशें म्हळां (महाभारत आदिपर्व १२८-१२९). चित्रांगदाकय होच रोस पिवपाक मेळिल्लो. मृत आनी अमृत हीं उतरां उपनिशदांत परतीं परतीं येतात. बृहदारण्यकांत (४.४.१४) अमृत हो शब्द दुख्खाचो प्रतियोगी म्हणून येता. छांदोग्यांत (७.२३) भूमाकच सूख म्हळां आनी भूमा म्हळ्यार अमृत असो अर्थ दिला. अमृत हें भायल्या संवसारांत नासून मनशाच्या मनांतच आसता. मनशाची कूड मरता पूण मन अमृत आशिल्ल्यान अमर उरता अशें म्हळां. मनांत जेन्ना खंत, दुख्खां, पातकां भितर सरतात, तेन्ना मनशांचो अमृताकडेन आशिल्लो संबंद तुट्टा. मन उमेदी दवरप, बरी चलणूक आपणावप ही अमृत जोडपाची पयलीं वयलीं तत्त्वां आसात. मनशाक आत्मगिन्यान समजप म्हळ्यार तो अमृत जोडपाचें पयलें सपण चडलो अशें समजतात. जो मर्णाक भियेनासतना मुखार उबो रावला ताणें अमृत मेळयलें अशें समजूचें हो आध्यात्मशात्राचो सिध्दान्त जावन आसा.

आधिदैविक नदरेन देवांक अमर मानल्यात. तांची कृपा म्हळ्यार अमृतप्राप्तीची वाट मानल्या आधिभौतिक नदरेन सगळ्या गुणांनी युक्त, बरें आरोग्य आशिल्लो, पुर्णायुश्य लाबिल्लो मनीस अमृताचें जिवित जगता अशें म्हण्टात.

'एतद्वै मनुष्यस्य अमृतत्त्वं यत्सर्वमायुरेति' म्हळ्यार मनशान पुराय पिराय जियेवप हेंच मनशाचें अमृतत्व अशें शतपथांत म्हळां (९.५.१.१०).

संवसारांतले प्राणिमात्र ह्योच अमृत मेळपाच्यो सुवाती आसात. जंय जंय जीव आसा थंय थंय अमृत आसा. 'अमृतमु वै प्राणाः' म्हळ्यार प्राणतत्व हेंच अमृत जावन आसा (श.ब्रा. ९.१२.३२). वैदिक विज्ञानाचे नदरेन अमृत आनी मरण ह्यो दोनूय गजाली एकाच वेळार मनशाचे कुडींत रावतात. तरी दोगांचीय कार्यां मात वेगवेगळीं फट मारप, पातक आनी काळोख हे मर्णाचें कार्य तर खरें उलोवप, पुण्य आनी उजवाड हें अमृताचे कार्य जावन आसा. ह्यो दोनूय गजाली लागीं न येवप वा तांचो संबंद न रावप ह्यांतूंत मनशाचे कलेचो खरो कस लागता.

मध्यकालीन तंत्रीक साधनेंत लोक मनशांक अमरत्व मेळोवन दिवपी रोसाच्या सोदांत आशिल्ल्याचें दिसत. कालांतराप्रमाण 'मैथुनसुख' वा 'काम' हांकांच अमृतरस म्हणपाक लागले. तंत्रीक अनुष्ठानांत सोन्यांचो आस्वाव अमृताचें प्रतीक म्हणूनच केलां. फुडे 'निर्गुनिया' संतानी सोन्याचो निशेध करून हठ्योगातल्या 'अमियरसा'क आपणायलो (हिं. सा. को.). अमृत आनी मरण हीं दोनूय म्हजींच रूपां आसात अशें गीतेंत श्रीकृष्णान अर्जुनाक सांगलां (९.१९).

- कों. वि. सं. मं.

## अमृत मंथनः (पळेयात अमृत)

## अमृतसरः

पंजाब राज्यांतलें नामनेचें सुंदर शार आनी शीखाचें पवित्र धर्मस्थळ. बियास (व्यास) न्हंयचे देगेर हें शार वसलां. लोकसंख्या ५,८९,२२९ (१९८१).

शीखांखातीर एक देवूळ तयार करचें अशें शीखांचो चवथो गुरू रामदास हाका दिसलें, देखून १५७७ वर्सा ताणें अकबराकडसून हो जागो विकतो घेतलो. सगळ्या आदीं ताणें तळी खणली आनी ताका अमृतसरोवर अशें नांव दिलें. ह्या नांवावेल्यान एक आख्यायिका आसा ती अशीः अयोध्येचो राजा राम हाणे अश्वमेध यज्ञ करपाचें थारावन जैताचो घोडो सोडलो. लव आनी कुश हांणी तो आडायलो. घोड्याखातीर राम, लक्ष्मण, भरत, शत्रुघ्न आनी लव आनी कुश हांचे मदीं झूज जालें. तातूंत राम आनी ताच्या हेर भावांक लव आनी कुशान बेशुध्द केले. उपरांत तांकां साबुद्दीर हाडपाक स्वर्गांतल्यान अमृत हाडलें. त्या अमृतान ताणी त्या चौगाय भावां क साबुद्दीर हाडले आनी उरिल्लें अमृत थंयच पुरलें. ह्याच जाग्यार गुरू रामदासान तळी खणली अशें सांगतात. हें तळें ४७५ फूट लांब आसा आनी ताचे चोंयवशीन संगमरवरी फातरांचो घाट बांदला. ह्या तळ्याच्या मदीं शीखांचें पवित्र थळ आसा. गुरू रामदास हाका मर्ण येतकच ताचो पूत आनी शीखांचो पांचवो गुरु अर्जुनदेव हाणे तळ्याच्या मदीं देवूळ बांदलें. फुडें हें थळ शीख लोकांचें सत्ताकेंद्र जालें.

मोगलांनी ह्या शाराचो नाश करपाचो खूब यत्न केलो. १७६१ त अहमदशहा दुर्रानीन सगळ्या अमृतसर शाराचो विध्वंस केलो. पूण राजा रणजितसिंग हाचे राजवटींत ह्या शाराची गिरेस्तकाय खूब वाडली. ह्याच काळांत शीखांच्या देवळाचो कळस भांगराचो केलो आनी ताका सुवर्णमंदिर हें नांव दिलें. उपरांत ब्रिटीशांच्या कालखंडात हें शार वेपारी, सांस्कृतिक आनी ब्रिटीश विरोधी चळवळीचें केंद्र आशिल्लें. सुवर्णमंदिराच्या लागसारुच इतिहासीक नामना मेळिल्ली जालियनवाला बाग आसा. हे बागेंत १३ एप्रिल १९१९ ह्या दिसा ब्रिटीश अधिकारी जनरल डायर हाणे, भरिल्ले सभेचेर फायरेट केल्लो. हातूंत सुमार देड हजार लोकांक मर्ण आयिल्लें. १९४७तल्या भारत-पाकिस्तान फाळणेवेळार शीमेवेलें शार म्हूण अमृतसराक खूब म्हत्व मेळिल्लें. १९६५ त जाल्ल्या भारत-पाकिस्तानाच्या झुजावेळार हें शार एक म्हत्वाचें केंद्र आशिल्लें. ह्या वेळार ह्या शाराक खूब लुकसाण सोंसचें पडलें.



सुवर्णमंदिर-अमृतसर

ह्या शारांत सुती, रेशमी, आनी गरम कपड्याच्यो गिरणी आसात. वनस्पती तूप, वखदां, पितळेचीं आयदनां, विजेचीं उपकरणां, रसायनां, दुदाचे पदार्थ करपाचे आनी हेर कारखाने हांगा आसात. जमखनां आनी 'पश्मिना' शालींखातीर ह्या शाराक खूब नांव मेळ्ळां. हांगाच्या बाजारपेठेंत भरतकामाचे आनी लगदाकामाचे जायते नमुने पळोवंक मेळटात. १८९३ वर्सा थापणूक जाल्लें खालसा कॉलेज हांगा आसा. ह्या

शारांत विमानतळूय आसा.

ह्या शारांत शीखांची सुमार १२ गुरुद्वारां आसात. तातूंतलें सुवर्णमंदिर हें तांचे मुखेल गुरुद्वारा. सुवर्ण मंदिराक दरबार मंदिर वा हरि मंदिर अशेंय म्हण्टात. अमृतसर, संतोषसर, रायसर, विवेकसर आनी कमळसर (कौलसर) अशीं पांच तीर्थां हांगा आसात. हेभायर जालियनवाला बागेंतलीं स्वातंत्र्य ज्योत, बाबा अटरायाचो मनोरो, दुर्गामंदिर, रामबाग, कैसरबाग, गोविंदगढ आदी थळां पळोवपासारकीं आसात. शीखांच्या चार तख्तांतलो 'अकाल तख्त साहबी' हो तख्त (मठ) अमृतसर शारांत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**अमृता प्रीतमः** (जल्मः ३१ ऑगस्ट १९१९ गुजराणवाला-पाकिस्तान).

ज्ञानपीठ पुरस्कार जोडपी नामनेची पंजाबी लेखिका. आवयचें नांव राजबिबी आनी बापायचें नांव कर्तारसिंह. बापूय 'पीयूष' ह्या नांवान कविता बरयतालो. ह्याच 'पीयूष' नांवाचो पंजाबींत रुपकार करून 'अमृता' हे नांव आपले धुवेक दवरलें. अमृता कौर धा-इकरा वर्सांची आसतना तिचे आवयक मर्ण आयलें आनी तिका वाडोवपाची जापसालदारकी बापायचेर आयली. बापायकडल्यान उर्बा आनी स्फूर्त घेवन आनी ताच्या काव्याच्या प्रभावाक लागून सोळाव्या वर्सासावन अमृता प्रीतमान काव्य रचणुकेक सुरवात केली.

इतले मजगती प्रीतमसिंह कातवाडा हाचेकडेन तिचें लग्न जालें. उपरांत भारत-पाकिस्तान फाळणीउपरांत ती भारतांत आयली. दिल्लीच्या आकाशवाणी केंद्राचेर १९४८ ते १९६० मेरेन तिणें स्टाफ आर्टिस्ट म्हूण नोकरी केली. ह्या काळांत आकाशवाणीखातीर गीतां, रुपकां, आदी साहित्याची निर्मणी करून प्रसारण केलें.



अमृता प्रीतम

तिची सुर्वेची साहित्य निर्मणी पारंपारिक आशिल्ली. पूण उपरांत अणभव आनी वैयक्तिक भावना उक्तावपाचे उत्कट इत्सेक लागून काव्यांत एक बदल जालो. मोग हो तिच्या कवितांचो मुखेल विशय आसा. हो मोग मनीसजातीचो आनी आत्मनिश्ठ आसा. तिणें आपल्या साहित्यांतल्यान बायलांचो पाखो एका खासा ताकदीन मांडला. बायलजातीवयलो अन्याय आनी चेंपणाआड तिणे आवाज उठयला आनी पारंपारिक मूल्यांआड बंड केलां. सद्याक मेरेन तिचे बारा-तेरा कवितांझेले उजवाडाक आयल्यात. 'मैं तावारीख हां हिन्द दी' ही तिची काव्य रचणूक देशाचे फाळणीचेर बरयल्या. 'सरघी वेला' (१९५१) ह्या झेल्यांत मनशाच्या मनांतली तरल आनी कोमल भावना कलात्मक रितीन उक्तायल्या. तिच्या काव्यांत वास्तवता, दडपशाय आनी चेपण हांच्याआड बंडाची भावना स्पश्टपणान जाणवता.

एक उंचेल्या पांवड्यावयली कादंबरीकार म्हूण तिची पंजाबी साहित्यांत नामना आसा. आयजमेरेन तिच्यो धा कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात. कादंबऱ्यांची शैली काव्यात्मक आसा. तिच्या सुर्वेच्या कादंबऱ्यांतल्यान भारतीय बायलांचेर जावपी अन्याय चितारिल्लो दिसता. शारीरिक आनी मानसिक नदरेन असमाधानी आशिल्ल्या बायलांची व्यक्तिरेखा तिणे समर्थपणान आपल्या साहित्यांतल्यांत उक्तायल्या. 'आलना' हे कादंबरींत तिणे अनौरस भुरग्यांची दुखखां उक्तीं केल्यांत. तातूंत अनाथ भुरग्यांखातीर आश्रम उक्ते करून तांचो सांबाळ करपाचे सेवावृत्तीचो भाव प्रगट जाता. चित्रकार हरकृष्ण हाच्या जिवीताचेर बरयल्ली 'न राधा न रुक्मणी'; 'एक खाली जगह' ही स्वाभिमान दुखावतकच पेटून उठपी असामान्य जावपी बायलेची विरह-कथा; 'आक के पत्ते', 'एरियल', 'एस्किमो स्माईल', 'कच्ची सडक', 'डॉक्टर देव', 'पिंजर', 'जलावतन', 'औरत', 'यह सच है', 'एक शहर की मौत', 'मेरा कमरा', 'जेब कतरें', 'उसकी कहानी', 'पक्की हवेली', 'सागर और सीपियाँ' ह्यो तिच्यो कांय गाजिल्ल्यो कादंबरिका.

कादंबऱ्यांवांगडाच 'चाबी बरे बाद' (१९४३), 'कुंजिअन' (१९४४), 'आखरी खत' (१९५६), 'गोजर दिअन परिअन' (१९६०) हे उल्लेख करपासारके कांय कथांझेले.

तिच्या पुराय साहित्यनिर्मणेंतल्यान एका कलाकाराची मानसिक उदरगत जायत गेल्ली दिसता. सुर्वेक तिणे आपल्या भावनांचेर आनी मानसिक प्रक्रियांचेर बरोवंक सुरवात केल्ली. उपरांत आपले आवयभुंयेचो आविश्कार तिच्या साहित्यांतल्यान जावंक लागलो. सद्याक मनीसजातीच्या भावनांचो एका वेगळ्या थराचेर आविश्कार जातना तिच्या साहित्यांतल्यान दिश्टी पडटा.

'अज आखाँ वारिस शाहनूँ' हे कवितेन तिका पंजाबी साहित्यांत अजरवर करून दवरल्या. 'बदलां दे पलविच' (१९४३), 'लंबिया वाटां' (१९४९), 'मौली ते महंदी' (१९५५), 'सरघी वेला' (१९५१), 'अशोक छेती' (१९५७), 'चानंन दा हौका' (१९६२), 'कागज के कॅनवास' हे तिचे कविता झेले. तिच्या 'सुनहडे' (१९५५), ह्या काव्यसंग्रहाक १९७६ वर्सा साहित्य अकादमी पुरस्कार आनी 'कागज के कॅनवास' ह्या काव्यसंग्रहाक १९८१ त ज्ञानपीठ पुरस्कार फाव जालो. १९५८ वर्सा पंजाब सरकारान पुरस्कार दिवन तिचो भोवमान केलो. तिच्या साहित्याचेर 'कलम दा भेत' आनी 'अमृताप्रीतम दी चौनवी कविता' हे ग्रंथ उजवाडाक आयल्यात. 'अमृता के प्रेम पत्र' हीं तिचीं प्रेमपत्रां आनी 'रसीदी टिकट' हें आत्मचरित्र साहित्यांतले वेगळेच नमुने जावन आसात.

तिच्या साहित्याचे हिंदी, इंग्लेज, मराठी, उर्दू, गुजराती, भाशांनी अणकार जाल्यात. कवितांचे अणकार इंग्लेजीभायर रशियन आनी अल्बेनियन भाशांतल्यान जाल्यात. अमेरिकेंतल्या मिशीगन स्टेट युनिवर्सिटीन तिच्या साहित्याचेर 'महफील' **(Mahfil)** नांवाचें पुस्तक हालींच उजवाडायलां. दिल्ली सावन उजवाडाक येवपी 'नागमणी' ह्या पंजाबी मासिकाची ती संपादिका आसा. साहित्य अकादमी आनी राज्यसभेची ती वांगडी आसा. तिणे रशिया, बल्गेरिया, हंगेरी, जर्मनी, इंग्लंड आदी राश्ट्रांची भोंवडी केल्या.

- दिलीप बोरकार

**अमेरिका खंडः** अस्तंतेवटेनच्या उत्तर अमेरिका, दक्षिण अमेरिका आनी मध्य अमेरिका ह्या सगळ्या वाठारांचें नांव. अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानाकय **(U.S.A)** बरेच फावट अमेरिका अशें म्हण्टात. अमेरिगो व्हेसपूची (१४५१-१५१२)ह्या इटालियन भोंवडेकारावेल्यान ह्या वाठाराक अमेरिका हें नांव मार्टीन वॉल्टझेम्यूलर हाणे १५०७ वर्सा आपल्या ग्रंथातल्यान दिलें. वॉल्टझेम्यूलराक तोमेरेन कोलंबसाच्या भोंवडेविशीं कांयच खबर नाशिल्ली. वॉल्टझेम्यूलराचीं पुस्तकां तेन्ना यूरोपांत बरींच नामनेचीं आनी प्रमाण मानतालें. हाका लागून ह्या वाठाराक अमेरिका हें नांव फुडें तशेंच उरलें.

**अमेरिका, उत्तरः** क्षेत्रफळ २ कोटी १५ लाख चौ. किमी. दक्षिण-उत्तर विस्तार अक्षवृत्त ७° उ. (पनामा) ते ८३° ७' उ. (एल्झीमीयर जुव्यांच्या उत्तरेच्या तोंकामेरेन) रेखावृत्तीय विस्तार १७२° २५ उदेंत (अल्यूशन जुंवे) ते ५३° ३२' अस्तंत (न्यू फावंड लँड) ह्या

खंडाचे उत्तरेक आर्क्टिक म्हासागर, उदेंतेक अॅटलांटिक आनी अस्तंतेक पॅसिफिक म्हासागर आनी दक्षिणेवटेन मध्य अमेरिका. ईशान्येवटेनचो ग्रीनलँड जुंवो कांय जाणांच्या मतान ह्याच खंडांत येता. जगाचे भूंयेचो १६% वांटो ह्या खंडाचो आसा. हवाई जुंवो सोडून उत्तरेवटेनचे अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां (U.S.A.), कॅनडा, मॅक्सिको हे देश ह्या खंडांत आसात.

**भूंयवर्णनः** भूंयेचे नदरेंतल्यान ह्या खंडाचे चार मुखेल वांटे जातात. इशान्येवटेनचो कॅनडाचो वाठार, उदेंतेवटेनचो दोंगरी वाठार आनी ताचे कुशीक आशिल्लो दर्यादिगेवेल्या मळांचो वाठार, मदलो मळाचो वाठार आनी अस्तंतेवटेनचो दोंगरी आनी पठारी वाठार.

कॅनडावटेनचो वाठार हो सामको पोरनो आसा. कांय जाणांच्या मतान आर्क्टिक जुंवो आनी ग्रीनलँड हेय कुडके ह्याच वाठराक पयलीं जोडून आशिल्ले. ह्या वाठारांत ल्हानसान दोंगर आनी बरीचशीं तळीं सांपडटात.

उदेंतेवटेनच्या दोंगरी वाठारांत सेंट लॉरेन्स सावन अॅलाबॅमामेरेन पातळिल्ले अॅपोलॅचियन दोंगर (उंचाय सुमार २,०४२ मी.) हे मुखेल आसात. हे भायर सामकेच उदेंतेक पीडमाँट पठार आनी अस्तंतेवटेन ल्हान सान पठारां आसात. दोंगरी वाठाराच्या उदेंतेक अस्तंत रेंवेची दर्यादिग आसा. ती दक्षिणेवटेन रूंद जायत वता. हांगा दर्यादिगेंलागीं रेंवेचे बांद, चिखलाचे वाठार आनी जुंवे तयार जाल्यात. पठारावेल्यान मळाच्या वाठारांवटेन पडपी धबधब्यांक लागून थंय धबधब्यांची वळ (फॉल लायन) तयार जाल्या. मेक्सिको वटेन सकयल्लो दर्यादिगेवेलो वाठार रानांनी भरला.

अस्तंतेवटेन आशिल्ल्या दोंगरी वाठारांत रॉकी पर्वतांची वळ लांबायेन जगांत दुसऱ्या नंबराची आसा. ती आर्क्टिक म्हासागरासावन न्यू मोक्सिकोमेरेन पातळल्या. थंयसावन ती मेक्सिकोंतलो सिएर्रा माद्रे, मध्य अमेरिकेंतल्यो दोंगरा वळी आनी फुडें दक्षिण अमेरिकेंतलो अँडीज पर्वत हांका वचून मेळटा. रॉकीच्या अस्तंतेक अलास्का पर्वत, ब्रिटीश, कोलंबियाचे पर्वत, कोस्ट रेंज, कॅस्केड रेंज आनी सिएर्रा नेव्हाडा हे दोंगर आसात.

ह्या खंडाचे उत्तरेवटेन आर्क्टिक दर्या पातळला. ग्रीनलँड आनी बॅफिन जुंव्यांच्या मदीं बॅफिनचो उपसागर आसा. व्हिक्टोरिया आनी बँक्स जुंव्यांच्या अस्तंतेक बोफर्ट दर्या आसा. अलास्का आनी उदेंत रशियाच्या वाठारांक जोडपी चुकची दर्या अस्तंतेवटेन आसा. कॅनडाचे उत्तरेक बूथियाचें आखात, फॉक्स बॅसिन, हडसन उपसागर, अंगवा आखात आनी जेम्स उपसागर आसा. कॅनडाचे उदेंतेक अॅटलांटिक म्हासागर, जमनीलागचो लॅब्रॅडॉरचो दर्या, सेंट लॉरेन्सचे आखात, फंडीचो उपसागर आनी प्लासेशाचें आखात आसा. संयुक्त संस्थानाचे (U.S.A.) उदेंतेक चेसपीक आनी डोलावेरचीं आखातां आसात. सादारणपणान सगळी उदेंत दर्यादिग अॅटलांटिक म्हासागरान भरल्या. दक्षिणेवटेन फ्लॉरिडाचो दर्या आनी मॉक्सिकोचे आखात आसात. अस्तंतेवटेन पॅसिफीक म्हासागर आसा.

मदल्या मळांच्या वाठारांतल्यान येवपी न्हंयो उदका पुरवणेच्या नदरेंतल्यान म्हत्वाच्यो आसात. संयुक्त संस्थानांतले अर्द्यापरस चड उदक मिसिसिपी न्हंयतल्यान येता. मिसूरी ही तिची मुखेल उपन्हंय. ही मदल्या रॉकी पर्वतांतल्यान सुरू जाता. मिसिसिपी-मिसुरीची लांबाय ६,२६० किमी. आसा. उदेंतेकडल्यान तिका ओहायओ आनी टेनेसी ह्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो मेळटात. मिसिसिपी मिसुरीक लागून हो वाठार बरेच पिकाळ जाला. यूकॉन ही कॅनेडियन रॉकीसावन मध्य अलास्कामेरेन आनी फुर्डे बेरिंग वटेन व्हांवता. मॅकॅन्झी ही उत्तरेवटेन व्हांवपी न्हंय आर्क्टिक म्हासागराक मेळटा; तिका व्हडल्योशो उपन्हंयो नात. कोलंबिया न्हंय मध्य आनी दक्षिण रॉकी पर्वतासावन कॅलिफोर्नियाच्या आखातामेरेन व्हांवता. 'रिओ ग्रान्दि' ही रॉकीच्या उदेंत उतारावेल्यान संयुक्त सस्थानांतल्यान फुडे मॅक्सिकोंत पावता आनी थंयच्या आखाताक मेळटा.

उदेंतेवटेन कनेक्टिकट, हडसन, मोहॉक, डेलावेअर, पोटोमॅक, जेम्स, सेंट लॉरेन्स, हॅमिल्टन ह्यो ल्हान न्हंयो आसात. तशेंच अस्तंतेवटेन उण्या लांबायेच्यो न्हंयो चड आसात.

तळ्यांमदीं सुपीरिअर, मिशिगन, ह्यूरन, ईअरी आनी ऑटॅरिओ हीं व्हडलीं तळीं नामनेचीं आसात. सुपीरिअर तळें सेंट मेरी न्हंयेकडेन जोडून आसा. मिशीगन आनी ह्यूरन दक्षिणेवटेंतल्या ईअरी तळ्याकडेन सेंट क्लेअर आनी डिट्रॉयट न्हंयांक लागून जोडलां. हे न्हंयेचेर नामनेचो नायगारा धबधबो आसा. १९५९ वर्सा 'सेंट लॉरेन्स सीवे' निर्माण जाल्ल्यासावन भितरल्या वाठारांकडेन म्हासागराचो संबंद आयला. ह्या तळ्यांभायर संयुक्त संस्थानांतलें सॉल्ट लेक, आनी कॅनडांतली ग्रेट बेअर लेक, ग्रेट स्लेव लेक, विनीपेग ह्या सारकीं बरींच तळीं आसात.

**हवामानः** ह्या खंडांत हवामानाचे विंगड विंगड प्रकार दिसून येतात. अक्षांश विस्ताराप्रमाण, थळावी उंचाय, वारें आनी दर्यांतले प्रवाह हांचोय परिणाम हवामानाचेर दिसून येता. बेरिंगसावन आर्क्टिक म्हासागरामेरेनच्या वाठारांत जानेवारींत −४०° ते −२९ ° से. आनी जुलयांत -१° ते १०° से तापमान आसता. सुमार २५ सेंमी. पावस पडटा. ह्या वाठारांत बरेंच हिम पडटा. हाचे दक्षिणेक अलास्का ते मध्य कॅनडा वाठारांनी जानेवारींत- ३०° ते -२०° से. जुलयांत १०° ते १५ °से. तापमान आनी २५ ते ५० सेंमी. पावस पडटा. अलास्का ते उत्तर कॅलिफोर्निया ह्या पॉसिफिक दर्यादिगेर उत्तरेवटेन जानेवारींत −१० ° ते ०° से. आनी दक्षिणेवटेन १०° ते १५° से. तापमान आनी जुलयांत १०° ते २० ° से. मेरेन तापमान आसता. अस्तंतेच्या वाऱ्याक लागून पावस १०० ते २५० सेंमी. मेरेन पडटा. दक्षिणेवटेनचें हवामान सादारणपणान उत्तर गोलार्धांतल्या हवामाना भशेन आसता.

**खनीज संपत्तीः** पूर्विल्ल्या काळांत अमेरिकेची भूंय दर्यापोंदा आशिल्ली. फातरांच्या थराक लागून उपरांत ही जमीन वयर येतकच हांगा तेलाच्यो बऱ्योच खणी सांपडल्यो. आर्क्टिक दर्यासावन ह्या खंडाच्या मदल्या वाठारांतल्यान दक्षिणेवटेन वचपी पट्टो तेलाखातीर नांवाजिल्लो आसा. कोळसो, सैमीक वायु, पॅट्रोलियम हांची बरीच सांठवण हांगा सांपडटा. लोखण चडशें कॅनडाच्या वाठारांत मेळटा. कॅनडाच्या राश्ट्रीय उत्पादनाचो व्हडलो वांटो खनिजांतल्यान येता. मॉक्सिकोंत चांदी, संयुक्त संस्थानांत तांबें, भांगर, शिशें, जस्त आनी लोखण आसा. उत्तर ऑरकॅन्सॉ हांगा बॉक्सायट, अॅलाबॅमा हांगा चांदी आनी क्यूबांत लोखण चड मेळटा. शिमीटाखातीर उपेगी पडपी रेंव ह्या खंडांत बरीच आसा. जगांतलो ५२% कोळसो हांगा मेळटा. युरेनियम, निकेल, कोबाल्ट ह्या खातीर कॅनडा जाल्यार तेल, व्हॅनेडियम ह्या खातीर संयुक्त संस्थानां आनी मेक्सिकोची नामना आसा.

**वनस्पतः** सामके उत्तरेक टंड्रा वाठारांतलीं झोपां आसात. ताचे दक्षिणेवटेन अलास्कासावन लॅब्रॅडारमेरेन सूचिपर्णी (अशीर पानां) रुखांचें रान पातळलां. हातूंत फर, स्प्रूस, लार्च, पायन हे रुख मुखेल आसात. अस्तंतेवटेंतल्या चड पावसाच्या वाठारांनी दाट आनी सदां पाचवीं रानां आसात. दर्यादिगांवेले दोंगर, पॅसिफिक देंवतेवेलो म्हळ्यार अस्तंतेचो वाठार हांगा डग्लस फर, रेड सेडर, हॅमलॉक फर ह्या सारक्या मदेराच्या लांकडाचीं झाडां आसात. दर्यादिगेवेल्या वाठारांनी म्हळ्यार कॅलिफोर्निया, सिएर्रा नेवाडा हांगा रेड वूड, डग्लसफर, हॅमलॉक, शुगर पायन, यलो पायन सीडार ह्या जातींचे रुख आसात. मॅक्सिकोचें पठार आनी अस्तंत वाठारांतल्या वाळवंटाच्या वाठारांनी वाळवंटांत वाडपी वनस्पत आसा. निवलांच्यो तरेकवार जाती हें हांगाचें खाशेलेंपण.

उदेंतेच्या वाठारांत अॅपॉलॅचियन वाठार सोडून हेर कडेन घट आनी मोव लाकूड दिवपी रानां आसात. ओक, चेस्टनट हीं घट लाकडांची झाडां मिसीसीपी, ओहायओ ह्या वाठारांनी चड आसात. रानां कापून उडयल्ल्यान हालीं बरेंच लुकसाण जालां. ग्रेट प्लेन्स आनी मदलीं मळां हे चड करून तणाचे वाठार आसात, तांतलो बरेचसो वांटो हालीं शेतवडीखातीर उपेगांत हाडला.

**मोनजातः** अमेरिका खंडाल उत्तरेवटेनची वास्वेलां, कॅरिबू,

मस्कऑक्स, सुणो, सील, तरेकवार सुकणीं हेसारकी सामक्या थंड हवामानांत दीस काडपी मोनजात आसा, जाल्यार संयुक्त संस्थानाच्या उदेंतेवटेनच्या अर्द्या वाठारांत शेतीवडीक उपेगी पडपी पोशिल्लीं जनावरां बऱ्याच प्रमाणांत आसात. अस्तंतेकडल्या अर्द्या वाठारांत चोमो करून रावपी प्राणी आनी हेर रानवटी जनावरां आसात. प्रेअरी वाठारांत अमेरिकन बायसन हे रानरेड्याभशेन दिसपी प्राणी बरेच आशिल्ले पूण तांची शिकार केल्ल्यान ते आतां उणे जाल्यात. उत्तरेवटेनच्या रानांनी सिल्वर फॉक्स, अर्मिन, बीव्हर, मिंक ह्या सारके आंगार बरीच ल्हंव आशिल्ले प्राणी बरेच आसात. रॉकी पर्वतावेले बोकड, मेंढरां, प्यूमा, ग्रिझली वास्वेल, मेरु, हरणां, मस्करॅट, रॅकून, ऑपोसम, साळ हे प्राणी खाशेले आसात. मेक्सिको सारक्या वाठारांनी हेरां वांगडा मानगीं, मध्य आनी दक्षिण अमेरिकेंतल्याभशेन जाग्वार, आर्माडिलो ह्यासारके प्राणी आसात. उत्तर अॅटलांटिक दर्यादिगेर कॉड, हॅडॉक, मॅकरल, हेरिंग सारकें नुस्तें भरपूर आसा. न्यू फावंडलॅंडचें ग्रॅंड बॅंक्स, संयुक्त संस्थानाच्या दर्यादिगेवेलें जॉर्ज बॅंक्स ही जगांतलीं नामनेचीं नुस्तेमारीची ठिकाणां आसात. ब्रिटीश कोलंबिया आनी अलास्का हांच्या दर्यादिगांचेर सॅमन नुस्तें व्हड प्रमाणांत आसात. नोव्हास्कोशा आनी प्रिन्स एडवर्ड जुंवे हांगा कालवां चड मेळटात.

**अमेरिका दक्षिण:** आकारान जगांतलो चवथो खंड क्षेत्रफळ सुमार १,७८,१७,५३० चौ. किमी. विस्तार १२० २८′ उत्तर ते ५५०५९′ दक्षिण अक्षांश. रेखावृत्तीय विस्तार ३४°४७′ अस्तंत ते ८१°२०′ अस्तंत. उत्तरेच्या कोलंबियांतल्या पॉयंट गिनीसावन दक्षिणेक केप हॉर्न जुव्यांमेरेन तांची लांबाय सुमार ७,६४५ किमी. आसा. उदेंतेच्या ब्राझीलांतल्या पेद्रास पॉयंट ते अस्तंतेतल्या पेरूच्या पारीन्यास पॉयंटमेरेन रुंदाय सुमार ५,१५० किमी. दर्या देग सुमार ३९,८८५ किमी. लांबयेची आसा. जगांतल्या वट्ट भूंयेचो १२.५% वांटो ह्या खंडाचो आसा. उत्तरेवटेन कॅरेबियन दर्या, ईशान्य आनी उदेंतेक अटलांटिक म्हासागर, दक्षिणेवटेन अंटार्क्टिका दर्या आनी अस्तंतेक पॅसिफिक म्हासागर आसा. दक्षिण अमेरिकेच्या सामक्या दक्षिणेवटेनच्या तोंकासावन अंटार्क्टिका खंड सुमार १,००० किमी. पयस आसा. या खंडांत आर्जेंटिना, बोलीव्हीया, ब्राझील, चिली, कोलंबिया, एक्वादोर, गुयाना, पॅराग्वे, पेरु, व्हेनेझुअॅला आनी युरुग्वे हीं राश्ट्रां आसात. फ्रेंच गियाना, डच गियाना वा सुरीनाम ह्यो हालींहालीं मेरेन वसाहती आशिल्ल्यो.

**भूंयवर्णन:** भूंय रचणूकेचे नदरेंतल्यान दक्षिण अमेरिकेचे चार वांटे जातात. पॅसिफिक दयादेग, अॅंडीज पर्वत, मदली मळां आनी उदेंतेकडले दोंगरी वाठार.

पॅसिफिक दर्यादिग चडशी ८० किमी. परस अरुंद आसा. कांय जाग्यांचेर तर ती फकत आठ किमी. रुंद आसा. उदेंत दर्यादिगेपरस अस्तंतेवटेनची दर्यादिग चड देंवतेची आसा. २६° दक्षिणेलागीं, दर्यादिगेसावन ८० किमी. पयस आशिल्ल्या 'रिचर्डसूडीप'ची खोलाय ७,६०० मी. परस चड आसा. पॅटेगोनियाच्या उत्तरेक पॅसिफीक दर्यादिग सामकी सरळ आसा. थंय सैमीक बंदरां नात. दक्षिण आनी मध्य चिलीत दर्यादिगेक समांतर आशिल्ल्या एका देगणाचे अस्तंतेक एक पर्वतांची वळ आसा. तिची उंचाय उत्तरेवटेन वाडत वता. उत्तर चिलींतली दर्यादिग ऊंच, उब्या दोंगरांची आसा आनी पेरु, कोलंबिया, एक्वादोर हांगा दर्यादिगेवेले पर्वत अस्तित्वांत ना म्हळ्यार जाता.

दक्षिण अमेरिकेचे सगळे अस्तंत दिकेक दर्यादिगेक समांतर आशिल्ली अॅंडीज दोंगरांची वळ जगांत उंचायेच्या बाबतींत दुसरी आसा. हिमालयापरस दुसरी खंयचीच पर्वतावळ तिचेपरस उंच ना. तिची लांबाय ७,२०० किमी. आसा. हांगाच्या दोंगराच्यो ५० परस चड तेंगश्यो ६,००० मी. परस चड उंचायेच्यो आसात. अॅकन्कागवा तेंगशी सगळयांत चड ऊंच (७,०३५ मी.) कांय दोंगर म्हळ्यार जित्या ज्वालामुखींची तोंडां आसात. भूंयकांपय बरेच फावट जातात. १९७० वर्सा जाल्ल्या भूंयकापाक लागून पेरु देशांत बरेंच लुकसाण जाल्लें. दक्षिण वाठारांनी बरेचकडेन हिमाच्यो न्हंयो आसात. ह्यो न्हंयो दर्याक वचून मेळटात. हिमान भरिल्ल्यो दोंगरातेंगश्यो, फातरांचे उबे दोंगर, दाट रानांच्यो देंवत्यो, तणानी भरिल्लीं पठारां अशीं अॅंडीजची कांय खाशेलेपणां आसात.

मदल्या मळांचो वाठार दक्षिण अमेरिकेच्या ३/५ वांट्यात आसा. हो वाठार अॅंडीजच्या उदेंतेक आसा. तो ह्या खंडाच्या भितरल्या वाठारांतूच आसा. फकत ॲमॅझॉनच्या तोंडाकडेन आनी रिओ दे ला प्लाताच्या देगांचेर सकयल्ले वाठार सांपडटात. कोलंबिया आनी व्हॅनेझुअॅला ओरिनोको हांगाच्या अॅंडीज पर्वत आनी गियानाचो उंचेलो वाठार हांचेमदीं लाझोनचें मळ आसा. ॲमेझॉन न्हंयच्या कडानीं पावसाचीं रानां आसात. अर्जेंटिना आनी पॅराग्वेंतलो लान चाको हो रानांचो आनी झोपांचो वाठार आनी युरुग्वे वटेन आशिल्लो शेतांचो आनी गोरवां चरपी मळाचो वाठार हे सगळे मळांच्या वाठारांत येतात.

उदेंतेवटेनचो दोंगरी वाठार अॅंडीज परस बऱ्याच उण्या उंचायेचो आसा. गियाना, ब्राझील हांगाचे उंचेले वाठार आनी पॅटागोनियाचें पठार अशे हाचे तीन वांटे जातात. गियानाचो उंचलो वाठार सुमार १.५२५ मी. ऊंच आसा. थंय व्हांवपी घोग्यांचेर ऊंच धबधबे तयार जाल्यात. गुयाना, व्हॅनेझुएला आनी ब्राझील हांचे शीमेवेलो मावंट रॅारायमा, २,८५० मी. उंचायेचो आसा. हो दोंगर गियानांत सगळयांपरस उंच आसा. पावस आनी पर्यावरणाक लागून हांगाच्या बऱ्याच दोंगरांक घुमटांचो आकार आयला. देखीक- रिओ द जानैरु लागींचो 'शुगरलोफ' दोंगर.

उदेंतेवटेनची दर्यादिग ही अस्तंतेपरस वेगळी. केप साऊँ रोके आनी रिओ ग्रॅंद द सूल हांचेमदली दर्यादिग ब्राझीलच्या पठारामेरेन पावता. ह्या वाठारांत रेसिफे, साल्वादोर, व्हितॉरिया, रिओ द जानैरु, फ्लोरि आनोपोलिस ही जगांतलीं कांय सोबीत बंदरां आसात. ताचे दक्षिणेक रिओ दे ला प्लाता हे खाडीचें मुख आसा. पाराना, युरुग्वे ह्यो न्हंयो हांगासावन दर्याक मेळटात. तांचे उत्तर देगेर मॉंतेव्हिडीओ आनी दक्षिणेक बुअॅनॉ आयरीझ हीं बंदरां आसात.

उदेंत दर्यादिगेवटेन जुंवे उणे आसात. व्हॅनेझुअॅलालागीं त्रिनिदाद आनी ॲमॅझॉनच्या तोंडालागींचे माराझो हे सोडल्यार हेर सगळे ल्हान आसात.

दक्षिण अमेरिकेंत पांच व्हड न्हंयो आसात. ॲमॅझॉन, रिओ दे ला प्लाता, मॅग्दालिना-कौका, ओरिनोको आनी सांव फ्रांसिश्कू. ॲमॅझॉन, ओरिनोको आनी ला प्लाता (पाराना, पॅराग्नवे, युरुग्वे) ह्यो सकयल्ल्या वाठारांतल्यान व्हांवतात. ॲमॅझॉन आनी ओरिनोको हांची सुरवात अॅंडीज पर्वतांत जाता. ला प्लाता ब्राझीलच्या ऊंच वाठारांतल्यान येता. लांबायेन ॲमेझोन ही नायल फाटल्यान जगांत दुसरी. पूण हेर गजाली मतिंत घेतल्यार तिका जगांतली सगळयांत व्हड न्हंय म्हण्टात. ह्या खंडांतल्यो बऱ्योच न्हंयो उदकामार्ग म्हूण उपेगी पडटात. कोलंबियाचो बरोच वेपार न्हंयांतल्यान जाता.

दक्षिण अमेरिकेंत व्हड अशीं तळीं सामकींच उणीं आसात. व्हॅनेझुअॅला हांगाचे माराकायव्हो हें सगळ्यांत व्हडलें सुमार १६,३०० चौ. किमी. विस्ताराचें आसा. पेरु आनी बोलीव्हीया हांगाचे तितिकाका (८,२८८ चौ.किमी.) तळें जगांत सगळ्यांत उंचायेवेलें तळें (३,८०२ मी.) जावन आसा. पोआपो ह्या बोलीव्हियांतल्या २,५१२ चौ. किमी. विस्तार आशिल्ल्या तळ्यांत तितिकाकाचें उदक येता. बाकीचीं तळीं सामकींच ल्हान आसात.

दक्षिण अमेरिकेंत धबधबे मात खूब आसात. व्हॅनेझुअॅलांतल्या कारोनी न्हंयवेलो धबधबो सुमार ९८० मी. उंचायेवेल्यान पडटा. गुयाना, व्हॅनेझुएला शीमेवेलो कुकुनाम आनी ब्राझील-गुयाना. व्हॅनेझुएला शीमेवयलो कुकुनाम आनी रॅारायमा हे सुमार ६१० मी. उंचायेवेल्यान पडटात. सांव फ्रांसिश्कू न्हंयचेर पॉलोआफॉन्सो, ब्राझील-आर्जेंटिना शीमेवेलो इग्वासू हे हेर धबधबे जावन आसात.

**खनीज संपत्ती:** दक्षिण अमेरिकेंत पेट्रोलियम बरेंच आसा. व्हॅनेझुअॅला


आर्क्टिक
महासागर
ग्रीनलँड
( डेन्मार्क )
आइसलँड
बॅफिन जुंवो
फॉक्स
बेसिन
हडसन सामुद्रधुनी
ग्रेट बेअर
तळें
अलास्का
रेंज
ग्रेट स्लेव्ह तळें
हडसन
उपसागर
लॅब्रॅडॉर
कॅनडा
बर्चिल
पोर्ट नेल्सन
क्वीन शार्लट जुंवो
एडमन्टन
विनिपॅग
तळें
व्हँकूव्हर जुंवो
व्हिक्टोरिया
ऑलिंपीया
कॅलगारी
ओटावा
पोर्टलँड
बॉस्टन
न्यू यॉर्क
पिअर
फिलादेल्फिया
सॉल्ट लेक सिटी
शिकागो
स्प्रिंगफिल्ड
इंडियानापोलिस
ग्रेट सॉल्ट
तळें
वॉशिंग्टन
अटलांटिक
महासागर
बर्म्यूडा जुंवें
सॅक्रेमेंटो
ओकलंड
सान फ्रान्सिस्को
लिंकन
सांता फे
ओक्लाहोमा
सिटी
लिटल रॉक
मेंफिस
लॉस अँजल्स
सान दियागो
फीनिक्स
डॅलस
जॅक्सन
कोलंबिया
एल पासो
जॅक्सन विल
बॅटन रूज
न्यू ऑर्लिअन्स
फ्लोरिडा
बहामा जुंवें
पॅसिफिक
महासागर
मेक्सिकोचे आखात
मियामी
हावॅना
सांत दोमिंगो
वेस्ट इंडिज जुंवें
मॅक्सिको
मॅक्सिको सिटी
कॅपीचे
युकातान
कॅरिबियन दर्या
ग्वातेमाला सिटी
मानाग्वा
सान होसे
पनामा
दक्षिण
अमेरिका


कराकास
कॅरिबियन दर्या
व्हेनेझुएला
जॉर्जटाउन
पारामरिबो
गुयाना
कायमन
सुरिनाम
बोगोटा
कोलंबिया
फ्रेंच गियाना
बेलेम
कीटो
इक्वादोर
फॉर्तालेझा
तेरेझीना
नाताल
ब्राझील
पेरू
आराकाझू
लीमा
बोलिव्हिया
मातू ग्रोसू पठार
साल्हादोर
पॅसिफिक
महासागर
आरीका
ला पाझ
ब्राझीलिया
ईकीक
रीओ दे जानेरो
आंतोफागास्ता
साऊँ फ्रान्सिस्कू
फ्लोरिआनोपोलीस
उरुग्वाय
सांतियागो
बुइनस आयरिझ
मॉंतेव्हिदिओ
व्हाल्दीव्हिया
अटलांटिक
महासागर
केप ट्रेस पूलास
वेलिंग्टन जुंवो
फॉकलँड जुंवे
पोर्ट स्टॅन्ली
केप हॉर्न जुंवो

हो तेल काडपाविशीं जगांतलो एक मुखेल देश जावन आसा. अर्जेंटिना, पेरु, कोलंबिया आनी बोलीव्हिया हांगाय बरेंच सैमीक तेल सांपडटा. सैमीक वायुचेंय प्रमाण ह्या खंडांत चड आसा. पूण वायू लोकवस्तीसावन सामकोच लागीं नाशिल्ल्यान हालीं हालीं मेरेन ताचो जाय तसो उपेग जायनाशिल्लो. दक्षिण अमेरिकेंत कोळसो मात उणो सांपडटा. अँडीज पर्वतानीं कांय जाग्यांचेर आनी कोलंबिया, चिली, आनी ब्राझील हांगा कोळशाचें थोडें भोव उत्पादन जाता. गियाना, ब्राझील हांगा लोखणाची सांठवण बरीच आसा. अँडीज वाठारांत तांबे आसा. पयलीं बोलीव्हीया हांगा चांदी बरीच मेळटाली. मँगनीजच्या उत्पादनांत ब्राझील जगांतलें एक मुखेल राश्ट्र जावन आसा. तेभायर ह्या खंडांत बॉक्सायट, प्लॅटिनम, चांदी आनी नायट्रेट हीं खनिजांय सांपडटात.

**हवामानः** दक्षिण अमेरिकेंतल्या खंयच्याच वाठारांत अतिथंड आनी अतिगरम हवामान सांपडना. फकत अँडीज पर्वतांच्या उंचेल्या तेंगश्याचेर सदांच हिम आसता. आशिया आनी संयुक्त संस्थांनांच्या (U.S.A.) मानान हांगा शियाचो आनी गिमाचो ऋतु सामको एकामेकांक विरुध्द असो नासता.

अॅमेझॉन वाठारांतल्यान जरी विषुववृत्त पासार जालें तरी थंय वर्सुकी सरासरी तापमान फकत २७° से. मेरेन आसता. ह्या हवामानांत ऋतुंप्रमाण चडसो फरक पडना. एक्वादोरची राजधानी क्विटो विषुववृत्ताचे दक्षिणेक २४ किमी. पयस आसा. क्विटो शाराची उंचाय २,८५० मी. आसा आनी सरासरी तापमान सुमार १३° से. इतलें आसता. पॅसिफिकांतलो हंबोल्ट वा पेरु हो हवामानाचो प्रवाह सामको थंड आसता. उंचायेप्रमाण हवामान चड थंड जायत वता. दक्षिणेवटेनचें हवामान उत्तरेपरस चड थंड आसता. दर्यावेल्यान येवपी वाऱ्यांक लागून हांगा पावसाचेंय प्रमाण बरेंच आसता. अॅमेझॉनच्या तोंडाकडल्या वाठारांत २२५ ते ३०० सेंमी. मेरेन पावस पडटा. वयल्या वाठारांनीय २२५ सेंमी. मेरेन तर कांय जाग्यांचेर ३७५ सेंमी. मेरेन पावसाची नोंद जाल्या. मदल्या वाठारांनी पावस १५०-१७५ सेंमी. आसता. दर्यादिगेवेल्या इकीक ह्या जाग्यार तर सामकीच उणी म्हळ्यार ०.१३ सेंमी. पावसाची नोंद जाल्ली आसा.

**वनस्पतः** अॅमेझॉन न्हंयचो वाठार, गियाना आनी उदेंत ब्राझीलची दर्यादेग हांगा वनस्पत सामकी दाट आसा. उजवाड मेळवच्याखातीर झाडां उंच वाडटात. त्या मानान तांची खोडां चड दाट नासतात. दाट वाली, बेनल्ली आनी हेर झाडांचेर वाडपी वनस्पत हांगाच्या पावसाच्या रानांनी सांपडटा. हांगा हजारांनी जातीचीं झाडां आसात पूण तांची आनी बेनल्लि हांची अजून मेजणी जावंक ना. ५० मीटर परस ऊंच वाडपी ब्राझील नटचो रुख, ऊंच नेचे, खराच्या झाडांच्यो तरेकवार जाती, मॉहॉगनी, एबनी, रोजवूड, ग्रीनहार्ट हे सारकी खाशेली वनस्पत हांगा आसा. सदांच पाचवीं चार आसपी रानांक 'सेल्व्हा' अशे नांव आसा. पावसाच्या रानांपरस वेगळीं केन्नाय पानां झडपी रुखाची रानां गियाना, उंचेल्या व्हॅनेझुएलाच्या वाठारांत आनी दक्षिण ब्राझीलांत कांय कडेन सांपडटात. चिखलांत वाडपी रानां ग्वायांकील आखातासावन रिओ दे जानैर मेरेन उदकाच्या वाठारांनी आसात. आरौकारिया ह्या मोव लांकडाच्या अशीर पानांच्या रुखांचे रान ब्राझीलांत आसा. हें झाड कागदाखातीर बरेंच उपेगाचें थारता. इशान्य ब्राझील, चाको, उत्तरेखटेन कोलंबिया आनी व्हॅनेझुएला हांगा कांटयांळीं झोपां आसात. सॅव्हाना तणाचो वाठार सामको नांवाजिल्लो आसा. हालींच्या तेंपार वाडटी लोकसंख्या, शेतवडीखातीर खासा जमीन तयार करपाचे यत्न हांकां लागून हांगाची बरीचशी मूळ वनस्पत ना जायत चल्ल्या.

**मोनजातः** तापीर, जाग्वार, आर्माडिलो, जायंट अँटईटर, स्लॉथ, कॅपिबारा ह्या जनावरां भायर एग्रेट, फ्लेमिंगो, हमिंगबर्ड, पोपट, बकीं, टुकॉन हीं सुकणीं आनी आनाकोंडा सोरोप, बोआ कॉन्स्ट्रिक्टर (म्हांयडोळ), पिरान्हा (जनावरां, मनीस हांकां खावन उडावपी नुस्तें), कॉक ऑफ द रॉक, यापाक, व्हॅपायर बॅट, ब्लॅक कायमॉन, कुरासांव इग्वाना, चिंचिला (मोव ल्हव आशिल्ले बिळांनी रावपी जनावर), सॅपाजू माकड, लामा आनी अल्पाका, मॅनाटी, बुशडॉग, साळ, कॉआटी, वोक्लां लायिल्लें वास्वेल, कॉंडॉर, आयबिस, मार्मोसेट, पेक्करी, व्हिकूना, बूश मास्टर (सोरोप), फॉयपू कोळहुंदीर, शिंगाचें हरण, ह्युमुल हरण, ग्वानाको, प्यूमा, कॅव्ही, पेंग्वीन, व्हड कांसव, मानगीं, मानेर केंस आशिल्ली भालू हे सारकी मोनजात हांगा आसा. गाय, बैल, घोडे, मेंढरां, हीं हांगाची मूळची न्हय. तांकां मुद्दाम हाडिल्लीं. तांतली कांय पळून वचून रानवटी जालीं. ह्या खंडांत मेळपी मोनजातीचे कांय प्रकार हेर खंयचेच कडेन मेळनात.

**अमेरिका मध्यः** उत्तर अमेरिकेंतलें मेक्सिको आनी दक्षिण अमेरिकेंतलें कोलंबिया ह्या राश्ट्रांक जोडपी मदलो अशीर वाठार. अक्षवृत्तीय विस्तार ७°१५' ते १८°३०' उत्तर, रेखा वृत्तीय विस्तार ७७° ते ९२°५५' अस्तंत. क्षेत्रफळ ५,४१,५५९ चौ. किमी. हो वाठार वायव्य आग्नेय दिकानीं वांकडो तिकडो पातळ्ळा आनी पनामांत ताची रुंदाय फकत ४८ किमी. जाल्यार हॉंडुरस-निगाराग्वा शीमेचेर ५६० किमी. आसा. दक्षिण-उत्तर विस्तार सुमार १,२५० किमी. आनी उदेंत-अस्तंत विस्तार सुमार १,५९३ किमी. आसा. मोक्सिकोसावन कोलंबियामेरेन ताची लांबाय ३,३५० किमी. आसा. ह्या वाठारांत ग्वाटेमाला, हॉंडुरस, एल साल्वादोर, निकाराग्वा, कोस्टारिका, पनामा, ब्रिटीश हॉंडुरस हीं राश्ट्रां आसात. पनामा कॅनाल अमेरिकेच्या सत्तेखाला आसा.

**भूंयवर्णनः** मध्य अमेरिकेचे सादारणपणान तीन सभावीक वांटे जातात. उत्तरेवटेनचो लांबरुंद ऊंच सकयल्लो वाठार-हातूंत ब्रिटीश हॉंडुरस, ग्वाटेमाला, हॉंडुरस, एल् साल्वादोर आनी निकाराग्वाचो कांळ वाठार येता. दुसरो निकाराग्वा वा आनी कोस्टारिका हांचे शीमेथावन सुरवात जावन आग्नेय-वायव्य दिकेन फॉन्सेकाच्या आखातामेरेन वता. दक्षिणेवटेनचो सकयल्लो वाठार हो तिसरो वांटो.

पयल्या वाठारांत पोरन्या फातरांचो थर आसा. हांगा पर्वत अस्तंतेवटेन चड ऊंच आसात, जाल्यार उदेंतेवटेनच्यान देंवत गेल्यात. ते फुडें कॅरिबियन दर्यापोंदच्यान वेस्ट इंडीज जुंव्यांमेरेन पावल्यात. पॅसिफिकच्या वटेन ज्वालामुखी दोंगराची एक लांब वळ उबी आसा. हातूंत ताहुमुल्को (४,१११ मी.), तकाना (४,०६४ मी.), ह्याभायर ३,५०० ते ३,९०० मी. उंचायेचे बरेच दोंगर आसात. हातूंतल्या चडशा दोंगरा तेंगशेचेर जागृत ज्वालामुखी आसात. पॅसिफिक दर्यादिग मेक्सिकोसावन फोन्सेकाच्या आखातामेरेन अशीर पूण नीट आसा. हांगा ग्वाटेमालाची उदेंत दर्यादेग हे सकयल आनी चिखलाचे वाठार आसात. हॉंडुरसची उत्तरेखटेनची दर्यादेग सुमार २५ किमी. रुंद आसा, तिच्या फाटल्यान ४५० ते १,५०० मी. उंचायेचे दोंगर वण्टीभशेन उबे आसात.

निकाराग्वाचो सकयल्लो वाठार पळवंक दोण्याभाशेन दिसता. हांगा निकाराग्वा हें सुमार १६० किमी. लांब आनी ७२ किमी. रुंद तळें आसा. हातूंत सुमार १,५०० मी. उंचायेचे तीन ज्वालामुखीचे दोंगर आसात. ह्या तळ्याचे वायव्येवटेन मानाग्वा हें सुमार ६० किमी. लांब आनी २५ किमी रुंदायेचेचे दुसरे तळें आसा. तिपीतापा न्हंयतल्यान तातंले उदक निकाराग्वा तळ्यांत येता आनी थंयचे उदक सॅनवॉन न्हंयतल्यान कॅरिबियन दर्यांत पावता. मानाग्वा तळ्याची उंचाय दर्या थरासावन सुमार ४० मी. आसा. निकाराग्वा तळ्याची सुमार ३२ मी. आसा. मानाग्वासावन फॉन्सेका आखातामेरेन ज्वालामुखीची एक वळ गेल्या. ह्या सकयल्या वाठारांच्या दक्षिण दिकेक वायव्य आग्नेयवटेन दोंगराच्यो वळी गेल्यात. पनामाच्या शीमेमेरेन तांची उंचाय ३,८०० इतली वाडल्या. कोस्टारिकांत ह्या दोंगरांक समांतर अशे चार ज्वालामुखीचे दोंगर आसात.

तिसऱ्या सकयल्ल्या वाठारांत दोनूय वटांनी दर्यादिग आसा. ज्वालामुखींक लागून हांगाच्या लोकांचेर बरीच संकश्टां येतात. डिसेंबर १९७२ म्हयन्यांत जाल्ल्या भूंयकापांक लागून मानाग्वा शार पुराय

मातयेभरखण जाल्लें.

दोंगरी आनी अशीर वाठाराक लागून हांगाच्यो न्हंयो सामक्यो नेटान व्हांवतात. न्हंयाचे प्रवाह खोल आनी अशीर जाल्यात. उदकांतल्यान येरादारी करपाखातीर खंयचेच न्हंयचो वापर जायना. कॅरिबियन वटेन वचपी न्हंयाक वर्सभर उदक आसता. पॅसिफिक वटेनच्या न्हंयांनी पावसाळ्या दिसांनी हुंवार येतात.

**हवामानः** पॅसिफिक दर्यादिगेवेलें तापमान सादारण १०° ते १५° से. इतलें आसता. तें २६° ते २७ से. च्या वयर केन्नाच वचना. कॅरिबियन दर्यादिगांवेल्या सकयल्ल्या वाठारांनी २०° ते २७°से. मेरेन तापमान आसता ह्या वाठारांतले तापमान ३२°से. च्या वयर वचना. वर्सुकी तापमान सरासरी २° ते ३° से. मेरेन आसता. पॅसिफिक दर्यादिगेर चडसो मार्च ते सप्टेंबर ह्या तेंपार दक्षिण आनी नैऋत्य वाऱ्यांक लागून सुमार १२५ ते १५० सेंमी. पावस पडटा. तो २०० सेंमी. परस वयर चडसो वचना. कॅरिबियन दर्यादिगेर वाऱ्यांक लागून सुमार २०० सेंमी. परस चड पावस पडटा. निकाराग्वा-कोस्टारिका शीमेचेर तो सगळयांत चड म्हळ्यार सुमार ६०० ते ६५० सेंमी. मेरेन पडटा.

दोगरी वाठारांनी उंचायेप्रमाण तापमान उणें जायत वता. पावस चडसो मार्च ते सप्टेंबर ह्या तेंपार पडटा. कॅरिबियन वटेन आशिल्ल्या वाठारांनी वर्सभर पावस पडत आसता.

**वनस्पतः** मध्य अमेरिकेच्या कॅरिबियन आनी त्या वटेनच्या दोंगराच्या देंवत्यांचेर पावसाची रानां आसात. ह्या रानानीं मॉहॉगनी, सीडार, रोजवूड, सिंकोना, बालसा, रबर ह्या सारके रुख वाडटात. पॅसिफिकवटेनच्या उण्या पावसाच्या वाठारांत रानां उणीं आसात, थंय पानझडी रुख आसात. ग्वाटेमालाची पॅसिफिक दर्यादिग आनी एल साल्वादोरचो उदेंतेकडलो सकयलो वाठार हांगा सॅव्हाना प्रकारचें तण आसा. सामक्याच सुक्या वाठारांनी निवलांच्यो तरेकवार जाती सांपडटात. दोंगरी वाठारांनी उंचायेप्रमाण वनस्पत बदलता. ओक सारके थंड वाठारांनी वाडपी रुख उंचायेचेर आसात. सामक्याच चड उंचायेचेर पायन रुखांची रानां दिश्टी पडटात. ३,००० मी. परस उंचेल्या वाठारांनी आल्प्स प्रकारचें तण आनी रंगयाळीं फुलां फुलतात. दिसाची कुपां आनी रातचो पावस असल्या प्रकारच्या वाठारांनी (१,३०० मी. ते १,४०० मी. उंच) शेळो, बेनुल्ली आशिल्ले रुंद पानांचे रुख आसात.

**मोनजातः** हांगाच्या रानांनी जाग्वार, तापीर, प्यूमा सारकीं जनावरां कांय प्रमाणांत सांपडटात. हरण, माकड, वांस्वेल, चित्तो, रॅकून, साळ हेय प्राणी हांगा आसात. न्हंयच्या उदकांत, मानगीं, कासव, मॅनाटी ही मोनजात जाल्यार सुकण्यामदीं रानवट टर्की, हांयसां, पाखे, लटोका, सोबीत पाखांचो केटझल् हीं आसात. तेभायर पाके, कोळी, मुयो, जळारां ह्या सारके किडे आनी उदकांत कालवां आनी सुंगटां बऱ्याच प्रमाणांत मेळटात.

**खनीज संपत्तीः** मध्य अमेरिकेंत खनीज संपत्ती चडशी ना. ग्वाटेमालांत थोडी चांदी मेळटा. एल् साल्वादोरच्या वायव्य वाठारांत चांदी, भांगर, पारा (Mercury) शिशें, जाल्यार हाँडुरस आनी निकाराग्वांत थोडी भोव चांदी आनी भांगर आसा. पूण वेपाराचे नदरेंतल्यान खणींतली संपत्ती व्हडल्याशा उपेगाची ना.

- कों. वि. सं. मं.

**अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानांः** अस्तंतेवटेनचो सगळयांत चड उदरगत जाल्लो देश. क्षेत्रफळ ९३,६३,१२३ चौ. किमी. आंवाठाचे नदरेन जगांत चवथो व्हडलो देश. लोकसंख्या २४,१०,७७,००० (१९८६) सादारणपणान ह्या देशाचो अमेरिका असोय उल्लेख करतात. डिस्ट्रिक्ट ऑल कोलंबियासयत एकावन्न घटक राज्यांचो आस्पाव ह्या देशांत जाता. अलास्का आनी हवाई हीं राज्यां मुखेल भूंयेसावन पयस आसात. हीं राज्यां सोडून देशाचो विस्तार २५°७′ ते ४९°२३′ उत्तर आनी ६६°५७′ ते १२४°४४′ अस्तंत असो आसा. अलास्का उत्तर अमेरिकेच्या वायव्य वाठारांत जाल्यार, हवाई जुंवें उत्तर अमेरिकेच्या अस्तंत दर्यादिगेसावन ३,२०० ते ४,८०० किमी. अंतराचेर पॅसिफिक म्हासागरांत आसा. मुखेल भुंयेचे उत्तरेवटेन कॅनडा (शीमेची लांबाय ६,४१६ किमी.), उदेंतेवटेन ॲटलांटिक म्हासागर (दयदिगेची लांबाय ८,९५५ किमी.), दक्षिणेवटेन मेक्सिको (शीमेची लांबाय ३,२४० किमी.) आनी अस्तंतेवटेन पॅसिफिक म्हासागर (दर्यादिग ४,३९३ किमी.) आसा. उदेंत अस्तंत अंतर ४,४८० किमी. आनी दक्षिण उत्तर अंतर २,५६० किमी. आसा. राजधानी वॉशिंग्टन.

**भूंयवर्णनः** मुखेल भूंयेचे भुगोलीक नदरेन स सभावीक वांटे जातात.

**१. ईशान्येवटेनचो वाठारः** हाचेय फुडें दोन वांटे जातातः

**(अ) न्यू इंग्लंड-** ह्या वाठारांत ॲपालॅचिअन पर्वताचो उत्तर वाठार आनी ताचे उदेंतेच्या दर्यादिगेवटेनच्या मळांचो आस्पाव जाता. ह्या वाठाराच्या अस्तंत शीमेवयल्यान हडसन न्हंय व्हांवता. ॲपालॅचिअन पर्वत अस्तंतेवटेन आसा आनी ती भूंय फातरांची आसा. दोंगरावळींची उंचाय १,८०० मी. परस मात्शी चड आसा. दर्या वटेनचो वाठार फातरा-खडपांचो आसा, आनी तो सकयल खचला. ताका लागून थंय दर्यादिग तयार जाल्या. हांगाच्यो बऱ्योचशो न्हंयो तांचेर आशिल्ल्या धबधब्यांक लागून येरादारीखातीर उपेगी पडनात. हांगाच्या सगळयांत व्हड कनेक्टिकट न्हंयची लांबाय ५६० किमी. आसा.

**(ब) ॲपालॅचिअन पर्वताचो मदलो आनी ताच्यालागचो वाठार-** ह्या वाठारांत अस्तंतेवटेन ॲपालॅचिअन पर्वत आसा आनी उदेंतेवटेन ॲटलांटिक म्हासागराच्या देगेमेरेन मळ पातळ्ळां. दर्यादिग तोंकाळ फातरांची आसा. दर्याचें उदक कांय जाग्यांनी भितर सरिल्ल्यान डेलावॅअर आनी चेसापीक सारके उपसागर आनी खाडयो तयार जाल्यात. पर्वतावयल्यान हडसन, डेलावॅअर, सस्क्वेहॅना हे सारक्यो न्हंयो उदेंतेवटेन व्हांवत वचून अटलांटिक म्हासागराक मेळटात. ह्या न्हंयांच्या मार्गांतय बरेच धबधबे आसात.

**२. आग्नेयेवटेनचो सकयलो वाठारः** ॲपालॅचिअन पर्वत आनी आग्नेयेवटेनचो दर्या हांचे मदीं हो सकयल्लो वाठार आसा. ह्या वाठाराची दर्यादिग बरीच नीट आसा. हाची सरासरी रुंदाय ३२० किमी. आसा जाल्यार उत्तरेवटेन आनी वायव्येवटेन ॲपालॉचिअन पर्वताच्या मुळसाकडेन १८० ते ३६० मी. उंचायेचो पीडमाँट हो पठारी वाठार आसा. हें पठार आनी ॲपालॅचिअन पर्वत पोरन्या घट खडपांचे तयार जाल्ल्यान तांच्या भायल्या शीमांचेर न्हंयांच्या पात्रांत धबधबे आसात. फ्लॉरिडा द्वीपकल्पाचो (Peninsula) ह्या वाठारांत आस्पाव जाता. ह्या द्वीपकल्पाच्या दक्षिण वाठारांत सरोवरां आनी चिखलाचो वाठार आसा.

**३. मदलो सकयलो वाठारः** ह्या वाठारांत मिसिसिपी न्हंयचें देगण आसा. मिसिसिपी आनी तिची उपन्हंय मिसुरी ही उत्तर अमेरिकेंतली सगळयांत चड लांबायेची (सुमार ६,४०० किमी.) न्हंय. हे न्हंयतल्यान बऱ्याच प्रमाणांत चिखोल व्हांवन येता आनी मेक्सिकोच्या आखाताकडेन सांचून उरता.

**४. अस्तंतेवटेनचो मळांचो उंचलो वाठारः** मिसिसिपी न्हंयच्या देगणाच्या अस्तंतेवटेन सकयल्ल्या वाठाराची उंचाय वाडत वता, आनी रॉकी पर्वतालागीं ती १,५०० ते १,८०० मी. मेरेन वाडटा. रॉकी पर्वतावळींच्या उदेंतेवटेन ८०० किमी. रुंदायेचो उंचलो मळांचो वाठार आसा. रॉकी पर्वतावयल्यान मळांच्या वाठारांनी व्हांवपी न्हंयांनी खोल देगणां तयार केल्यांत.

**५. रॉकी पर्वतावळ आनी पठारांः** ह्या देशाच्या १/३ अस्तंत वाठारांत पर्वतावळी आनी पठारां पातळल्यांत. ह्या वाठाराक जरी सादारणपणान 'रॉकी' पर्वतावळ म्हण्टात तरी तातूंत रॉकी पर्वताभायर सिएर्रा नेवाडा, कॅस्केड आनी कोस्टल ह्योय दोंगरावळी आसात. ह्यो वळी दक्षिण-उत्तर पातळल्यात. तांची सरासरी उंचाय ५०० मी. परस चड आसा. पूण तांची तेमकां ४,००० मी. परस ऊंच आशिल्ल्यान सदांकाळ




हिमान भरिल्लीं आसतात. सामके उदेंतेकडेन आशिल्लो रॉकी पर्वत बरोच रुंद आनी ऊंच आसा. ह्या पर्वतावळींच्या आनी कॅस्कॅड, सिएरा नेव्हाडा ह्या पवर्तावळींच्या मर्दी कोलंबिया, ग्रेट बेसिन, कोलोरॅडो ही पर्वतामर्दी तयार जाल्लीं पठारां आसात. कोलोरॅडो न्हंयक लागून 'ग्रँड कॅन्यन' नांवाची पायणीभशेन सुमार देड किमी. खोल ७ ते १८ किमी रुंद आनी ३२० किमी. लांब खळी तयार जाल्या. रॉकी पर्वताच्या मर्दी उश्ण उदकाचे झरे, सरोवरां आनी खोल खळयो आसात.

**६. अस्तंत दर्यादिगेचो वाठारः** कोस्टल पर्वतावळी पॅसिफिक म्हासागराचे देगेक समांतर आशिल्ल्यान हो अस्तंतेवटेनचो कॅलिफोर्नियाचो सपाट आनी अशीर वाठार तयार जाला.

ह्या देशांतल्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो म्हळ्यार मिसिसिपी, सेंट लॉरेन्स, कोलंबिया आनी कोलोरॅडो ह्यो जावन आसात. मिसूरी, ओहायओ, आरकॅन्सा, रेड ह्यो मिसिसिपीच्यो उपन्हंयो आसात. धाकली कोलोरॅडो, ब्रॅझस, रीओ ग्रांदि ह्यो न्हंयो मेक्सिकोच्या आखाताक वचून मेळटात.

कॅलिफोर्निया आखाताच्या वाठारांतली कोलंबिया ही म्हत्वाची न्हंय. सॅक्रेमेंटो, सॅन वाकीन, क्लॅमथ ह्योय न्हंयो म्हत्वाच्यो आसात. सॅक्रेमेंटो आनी सॅन वाकीन हांकांलागून सिएरा नेव्हाडाच्या आग्नेयेवटेन 'डॅथ व्हॅली' हें देगण आसा. हो ह्या देशांतलो सगळ्यांत सकयलो वाठार, हाची खोलाय समुद्रथरापरस ८३ मी. सकयल आसा. हडसन आनी तिची उपन्हंय मोहॉक ॲपालॅचिअन पर्वतचे उदेंतेवटेन आसात. फ्लॉरिडाच्या दक्षिण वाठारांत बरीच तळीं आनी सरोवरां आसात. ओकीचोबी हें तांतलें सगळ्यांत व्हड. उत्तरेवटेन आशिल्लीं साव्या उदकाचीं पांच व्हडलीं सरोवरां, सुपीरिअर, मिशीगन, ह्यूरन, ईअरी आनी ऑटॅरिओ. ईअरी आनी ऑटॅरिओ सरोवरामर्दी नांवाजिल्ले नायगारा धबधबो आसा.

**हवामानः** हांगाचे हवामान विंगड विंगड प्रकारचें आसा. हवामानापरस पावसाच्या प्रमाणाचेर आदारून ह्या देशाचे पांच वांटे करूं येतात. दरेक वांट्याच्या हवामानाचें खाशेलेंपण वेगळें आसा.

**१. चड ओलसाणीच्या हवामानाचो वाठारः** अस्तंतेवटेनच्या दर्यादिगेच्या उत्तर वाठाराचो हातूंत आस्पाव जाता. हो वाठार उदेंतेक कॅस्केडमेरेन पातळला आनी थंय ७५ सेंमी. ते ३७५ सेंमी. मेरेन वर्सुकी पावस पडटा. शिंयाळ्यांत थंडी आसता. त्या काळांतले समुद्रथरावयलें सरासरी तापमान ४.४° से. आसता. ह्याच वेळार वादळां आनी पावस येता. पर्वताचेर बर्फ पडटा. गिमांत तापमान चडशें वाडटा. जुलय म्हयन्याचें सरासरी चडांत चड तापमान ३२.२° से. आसता. त्यावेळार कांय प्रमाणांत पावस पडटा. दर्यादिगेलागीं दाट धुकें आसता.

**२. ओलसाणीच्या हवामानाचो वाठारः** सुपीरीअर सरोवरासावन टेक्सास राज्यामेरेनच्या मदल्या वाठाराचे उदेंतेक हो वाठार आसा. हांगाचें वर्सुकी पावसाचें प्रमाण ७५ सेंमी. ते १२५ सेंमी. आसता. पावस चडसो गिमांत पडटा. शियाळ्यांत अक्षवृत्ताप्रमाण विंगड विंगड थळांच्या तापमानान बदल जाल्लो दिसता. जानेवारी म्हयन्याचें सरासरी तापमान दक्षिण फ्लॉरिडांत २१.१°से. गल्फ दर्यादिगेर १३° से. आसता. ह्या काळांत केन्ना केन्नाय उत्तरेवटेनच्यान थंड हवेचें ल्हार आयिल्ल्यान तापमान अचकित देंवता. अशा वेळार उण्यांत उण्या तापमानाची नोंद मिनेसोटा राज्यांत ४५.६° से. टेनेसी राज्यांत २८.९° से. आनी फ्लॉरिडाच्या वायव्य वाठारांत १७.८° से. अशी जाता. ओहायो न्हंयचे उत्तरेवटेन शिंयाळ्यांत बर्फ पडटा. आनी तें जमनीर १ ते ५ म्हयन्यांखातीर उरता. गिमांत ही परिस्थिती बदलता. तेन्ना तापमानांत जावपी बदल सगळेकडेन जाता. उत्तरेवटेन जुलै म्हयन्याचें तापमान सरासरी १८°से. आसता. दक्षिण वाठारांत ते २६.६°से. आसता. ह्या वेळार दक्षिण फ्लॉरिडा आनी ईशान्येवटेनच्या पेन राज्याचे वाठार सोडीत जाल्यार हेर कडेन आतांमेरेन चडांत चड तापमान ३७.८° से. आशिल्ल्याची नोंद जाल्या. मेक्सिकोच्या आखाता वटेनच्यान हुन वारें उत्तरेवटेन व्हांवक

लागता. आनी ताका लागून हवामानांत उश्णताय येता. शरद ऋतुंत हरीकेन ह्या चक्री वादळाक लागून फ्लॉरिडा आनी गल्फ ह्या दर्यादिगांचेर भरपूर पावस पडटा. दक्षिण वाठारांत बरेच खेप टॉर्नेडो नांवाची वादळां जावन व्हड प्रमाणांत लुकसाण जाता.

**३. उणे ओलसाणीच्या हवामानाचो वाठारः** ओलसाणीच्या हवामानाच्या वाठाराच्या अस्तंतेवटेन पावसाचे प्रमाण उणें जावन थंय ५०० ते ८०० किमी. रुंदायेचो उण्या ओलसाणीचो वाठार तयार जाला. उदेंतेवटेनच्या दर्यादिगेसावन हो वाठार पयस आशिल्ल्यान हांगा वट्ट पावसाचें प्रमाण उणें आसा. कॅनडाच्या शीमेलागीं ह्या वाठाराचे उदेंतेवटेन ७५ सेंमी. पावस पडटा, पूण अस्तंतेवटेन फकत ४५ सेंमी. मेरेन पडटा. शिंगाळ्यांत मदींमदीं थंड हवेचीं ल्हारां आनी हिम वादळां येतात. अशा वेळार तापमान सामकेंच सकयल देंवता. डाकोटाच्या उत्तर वाठारांत ४५.६°से. आनी टेक्सासच्या मदल्या वाठारांत १७.८°से. मेरेन आसता. गिमांत मात तापमान सादारणपणान सगळेवटेन सारकेंच आसता. पावस चडसो वसंत ऋतूंत आनी गिमाच्या पयल्या अर्दांत पडटा.

**४. अर्दो उसू पडिल्लो (Partially deserted) वाठारः** हो वाठार रॉकी पर्वत आनी उण्या ओलसाणीच्या हवामानचो वाठार हांचे मदीं ५०० ते ८०० किमी. मेरेन रुंदायेचो आसा. समुद्रथरासावन ह्या वाठाराची उंचाय ९०० मी. आसा. हांगा पावसाचें आनी हिम पडपाचें प्रमाण बरेंच उणें आसा. उत्तर माँटॅना राज्यांत वर्सुकी पावस ३० सेंमी. जाल्यार दक्षिणेवटेन टेक्सास राज्यांत ६२ सेंमी. मेरेन आसता. शिंयाळ्यांत जानेवारी म्हयन्यांतलें सरासरी तापमान येलोस्टोन पार्क हांगा -५४.४°से. जाल्यार टेक्सास हांगा –१२ ० से. आसता. ह्या दिसांनी बर्फ पडटा. पर्वतांनी वर्सभर पावस पडत आसता.

**५. उसू पडिल्लो (Totally deserted) वाठारः** ह्या वाठारांत नेवाडा, उटा, न्यू मेक्सिको, कॅलिफोर्नियाचो आग्नेय वाठार, आनी टेक्सास राज्याचो नैऋत्य वाठार हांचो आस्पाव जाता. वर्सुकी पावस २५ सेंमी. परस उणो आनी चडसोच गिमांत पडट. ह्या काळांत जुलय म्हयन्याचें सरासरी तापमान २६.७° सें सुमार आसता.

**वनस्पतः** हवामानाप्रमाण वनस्पतीचे चार विंगड विंगड प्रकार सांपडटात.

**१. रानांचो वाठारः** ईशान्येवटेन मेन राज्यांसावन मिनेसोटा राज्यामेरेन रुंदाय आशिल्लो हो वाठार दक्षिणेक ॲपालॅचिअन पर्वताच्या तोंकामेरेन पातळला. ह्या वाठाराचे उत्तरेवटेन धवे आनी तांबडे पायन, हॅमलॉक, स्प्रूस, जॅक पायन आनी बलसम फर अरुंद पानांचे रुख आसात. हे भायर हॅमरिस्क, पेपरबर्च, विलो, आल्डर, ॲस्पेन आनी पॉप्लर ह्याय बी झाडांची वाड जाता. ह्या वाठाराचे दक्षिणेक सुर्वेक भरसल्ल्या जातीचीं रानां आसात. फुडें घट लाकडाचीं रुंद पानांची, पानझडी रुखांची रानां आसात. हीं रानां न्यू इंग्लंड ते मिसूरी आनी टेक्सासच्या उदेंत वाठारामेरेन पातळ्ळ्यांत. तातूंत मॅपल, ओक, लोकस्ट, लिंडन, वॉलनट, हिकरी, बीच असले रुख आसात.

ॲटलांटिक आनी गल्फ दर्यादिगेच्या वाठारांत पायन, हिकरी, ओक, मॅग्नोलिया, व्हायट सेडार, ॲश हे रुख आसात. फ्लॉरिडाच्या चिखलाच्या वाठारांनी सायप्रस, ट्रॅपेलो आनी व्हायट सेडार हीं झाडां आसात.

**२. तणाचो वाठारः** ह्या वाठाराक 'प्रेअरी' अशें म्हण्टात. तो उत्तर डाकोटा राज्यासावन दक्षिणेक टेक्सासमेरेन उण्या ओलसाणीच्या हवामानाच्या वाठारामेरेन दक्षिण-उत्तर पातळला. बफेलो, प्रागा, सायड ओक बंच, व्हीट आनी नीडल हे आनी तणाचे हेर बरेच प्रकार हांगा दिश्टी पडटात. पर्वत आनी ऊंच पठारांच्या वाठारांत येलो पायन, डग्लस फर, स्प्रूस हे अशीर पानांचे रुख हांगा आसात.

**३. उसू पडिल्ले वाठारः** रॉकी पर्वताचे अस्तंतेवटेन सेज ब्रश नांवाचीं झोंपां आसात. मात्शा चड पावसाच्या पर्वतांच्या देंवतेचेर आनी ल्हान दोंगुल्ल्यांचेर ज्यूनिपर, नट पायन हे रुख आसात. आग्नेय कॅलिफोर्नियासावन टेक्ससमेरेन उसू पडिल्लो वाळवंटांचो वाठार आसा. थंय निवला, बाभळ, जोशुआ हे सारकी वनस्पत आसा.

४. पर्वताच्या उंचल्या वाठारांनी तण आनी ल्हानसान रोंपा आसात पूण तीं फकत पावसाळ्यांत जातात.

**मोनजातः** हांगा तरांतरांच्या प्राण्यांच्यो विंगडविंगड जाती दिसून येतात. व्हडल्या मांस खावपी प्राण्यांमदीं वांस्वेल, भालू, प्यूमा, रानमाजर, कोळसुंदा, (T.Anders) , कोयॉट हांचो आस्पाव जाता. हेर प्राणी म्हळ्यार हरणांच्यो तरेकवार जाती, रेडे, म्हशी, मेंढरां, बीव्हर, हुंदीर, प्रेअरी डॉग आनी तरेकवार जातीच्यो चानयो हांगा आसात.

गरुड, ससाणो, घुघुम ही सुकणीं चडशीं दिश्टी पडटात. पाणकोंबडी, कॅनडा-हंस, हांयसां हीं उदकांतलीं सुकणीं आसात. हेर म्हत्वाचीं सवणीं म्हळ्यार रानवटी टर्की, ग्रावज आनी पारव्यांच्यो तरेकवार जाती. अलास्का हांगा ल्हंव आशिल्ले सील, ऑटर, कोले, मिंक, मस्कॅरॅट आनी स्कंक असली मोनजात आसा.

**इतिहासः पूर्विल्लो काळः** ह्या देशांत मनीस केन्ना अस्तित्वांत आयलो हाचेविशीं स्पश्ट म्हायती ना; पूण सुमार १५,००० वर्सांपयलीं हांगा मनशाचो राबितो आशिल्लो अशे अश्मयुगांतल्या अवशेशांवयल्यान दिसता. मनीस घडये हांगा बेरिंग दर्याच्या मार्गांतल्यान आयलो आसूंये अशें कांय जाणांचें मत आसा. कांय जाणकारांच्या मतान उदेंत आशियांतले मंगोलियन वंशाचे लोक अलास्कावरवीं मॅकेंझी न्हंयच्या मार्गांतल्यान अमेरिकेंत आयले. थंयसावन ते मिसूरी न्हंयचे पलतडीं, दक्षिणेंत आयले.

अश्मयुगांत हांगाचो मनीस व्होंवऱ्यांनी रावतालो. न्यू मेक्सिको आनी ऑरेगोन उटा ह्या राज्यांनी ताणी राबितो केल्लो. ताणे ह्या काळांत शिकार केल्ल्या प्राण्यांची बरींच हाडां सांपडल्यांत.

सुमार ७,००० वर्सांपयलीं मनशाचो राबितो पध्दतशीर जाला आसूंये. केंटकी आनी टेनेसी राज्यात न्हंयच्या देगांचेर खावन उडयल्ल्या नुस्त्याचें आनी हेर उदकांत रावपी प्राण्यांच्या हाडांचे अवशेश सांपडल्यात. ते कंदमुळां, फळां आनी रानबियो खाताले. रानबियांचें पीठ करचेखातीर फातरी रगडे वापरताले. भालो हें तांचे शिकार करपाचें मुखेल हत्यार आशिल्लें. ह्याच काळांत न्यूयॉर्क आनी न्यू इंग्लंड ह्या वाठारांनी जे पंगड रावताले तांची जीण हेडगी आशिल्ली. फातराच्यो कुराडी आनी भाले ते उपेगांत हाडटाले. नुस्तें धरचेखातीर तांणी हाडांचे गरे तयार केल्ले. कांय काळा उपरांत तांची उदरगत जावन हाडांच्यो सुयो आनी फातराची आयदनां ते वापरूंक लागले. मर्णा उपरांत ते प्रेताचें बरेतरेन दफन करताले. कासवाच्या कट्ट्यांचे खिळखिळे, हाडांच्यो बांसऱ्यो, पिल्लुको हीं तांची वाद्यां आशिल्लीं. घुलांच्यो आनी दातांच्यो माळो करून ते गळ्याभोंवतणी घालताले. इ.स. पयलीं २,५०० च्या काळांत तांची उदरगत चड नेटान जावंक लागिल्ल्याचें दिसून येता. ताणी तरांतरांची आयदनां आनी खोटले तयार करूंक सुरवात केल्ली.

**वसाहतींपयलींचो काळः** कोलंबसापयलीं कितलींश्याच शतमानांआदीं अमेरिकेभायले लोक त्या खंडांत पाविल्ले अशे पुरावे मेळटात. युरोपीय लोकांनी हांगा पावल दवरल्या उपरांत तांकां मनशाचें मांस खावपी कांय रानवट पंगड मेळळे. कांय लोकांमदीं खाशेले धर्मीक आचार आनी संप्रदाय आशिल्ले. हे लोक चडशे मेक्सिकोचे उत्तरेवटेन रावताले.

**युरोपीय वसाहतींचो काळः** १४९२ त कोलंबस स्पेनच्या पालवान बहामा जुंव्याचेर पावलो. त्या उपरांत ताणे अमेरिकेच्यो दोन तीन भोंवड्यो केल्यो. अमेरिकेच्या ॲटलांटिक दर्यादिगेचो ताणे सोद लायलो. कोलंबसाउपरांत स्पेनांतले हेर भोंवडेकार अमेरिकेनवटेन येवंक लागले. अमेरिगो व्हेसपूची, कोलंबसाचो पूत डोगो, तशेच बॅल्बोआ, आल्फान्सो द पीनॲडो, पिझारो, दे सोटो हे सोळाव्या शतमानाच्या मध्यामेरेन अमेरिकेंत येताले आनी वताले. ह्या लोकांचें वचप उत्तर अमेरिकेपरस मध्य आनी दक्षिण अमेरिकेवटेन चड आशिल्लें. १५५९त कॉर्टेटन हो स्पॅनिश रहिवासी हांगा पावलो. हांगाच्या ॲझटेक ह्या जमातींचेर ताणे

अडेच-तीन वर्सांभितर जैत मेळयलें. स्पॅनिश लोकांचो मुखेल उद्देश म्हळ्यार मॅक्सिकोंतलें भांगर लुटप आनी रानवटी जमातींक किरिस्तांव धर्मांत हाडप हें आशिल्लें. हांगा छापखाने आनी शिक्षणसंस्था निर्माण करून आनी कांय थळाव्या बायलांवांगडा लग्नां करून स्पॅनिश लोकांनी थळाव्या लोकांक सुदारपाचे यत्न केले. मॅक्सिको, कॅलिफोर्निया ह्या सारक्या वाठारांनी स्पेनांतल्या लोकांनी पयलीं राबितो केलो. तांच्या फाटल्यान हॉलंड, स्वीडन, फ्रांस, इंग्लंड ह्या देशांतले कांय लोक हांगा पावले. हॉलंडांतल्या लोकांनी हांगा 'न्यू नेदरलँडस्' आनी स्वीडनांतल्या लोकांनी 'न्यू स्वीडन' अशा वसाहतींची थापणूक केली.

सुमार १६०८ त फ्रेंचानीं क्वेबेक आनी १७व्या शतमानाच्या निमाणेमेरेन मिसिसिपीचें देगण आनी सरोवरा लागच्या वाठारांत राबितो केलो. शारां उबारून ताणी आपल्या वसणुकांची राखण करूंक सुरवात केली. स्पेनांतल्या लोकांचे फ्रेंच आनी ब्रिटीशांवांगडा वसणुकांच्या प्रस्नांतल्यान संबंद इबाडूंक लागले.

पंदराव्या शतमानासावन ब्रिटिशांची ह्या खंडाकडेन बारीकसाणीची नदर आशिल्ली. सोळाव्या शतमानांत जे स्ट्यूअर्ट राजा ब्रिटनांत सत्तेर आयिल्ले, ते कॅथलिक पंथाचे आशिल्ले. ब्रिटिशांमदी प्रॉटेस्टंट लोक बरेच आशिल्ले. राजा आनी प्रजा हांच्यामदीं झूज पेटचें न्हय हाका लागून बरेच प्रॉटेस्टंट अमेरिकेंत वचून रावच्याखातीर मुखार आयले. राज्यसत्तेन तांकां ह्या कामांत पालव दिलो. ब्रिटिशानीं अमेरिकेंत येवन व्हर्जिनिया, मेरिलँड, मॅसॅचुसेट्स, न्यू इंग्लंड ह्यो वसणुको निर्माण केल्यो.

व्हर्जिनिया कंपनीन हांगा आपली वसाहत सुरू करून तंबाखूचें उत्पादन करूंक सुरवात केल्ली. ह्या सगळ्या वसाहतींची पयली लोकसभा १६१९त अस्तित्वांत आयली. प्रॉटेस्टंटां वांगडा कॅथलिक पंथाचेय लोक हांगा राबितो करूंक लागले. १६२४त व्हर्जिनियाची वसाहत ब्रिटीश राज्य सत्तेखाला आयली. सगळ्या वसाहतींची हांगा नेटान उदरगत जावंक लागली. अमेरिकेंत ब्रिटनाच्यो तेरा वसाहती निर्माण जाल्यो. उत्तर आनी वायव्येवटेन फ्रेंचांचो शेक चलतालो, जाल्यार दक्षिणेवटेन स्पेनाचो.

वसाहतींत येवन रावील्ले चडशे लोक मध्यमवर्गीय आनी गरीब आशिल्ले. रानां निवळ करून थंय शेतां रोवप, जमता तसले ल्हान सान उद्येगधंदे करप हातूंतल्यान सुरवात करून ताणी हांगा ल्हव ल्हव कारखाने उगडूंक सुरवात केली. ह्यो तेराय वसाहती स्वतंत्रपणान आपापलो कारभार चलोवपाचो यत्न करताल्यो. सगळ्या वसणुकांनी विंगड विंगड धर्मांचे आनी पंथांचे, कितल्याशाच राष्ट्रांतले आनी वंशाचे लोक लागीं आयले. दरेक वसाहतींतल्या लोकांमदीं जागृताय सुरू जाली आनी कांय काळा उपरांत वसाहतींच्या अभिमानाची सुवात 'अमेरिका' नांवाचें आपलें एक राष्ट्र आसा हे भावनेन घेतली.

**स्वतंत्रताय झुजाचो काळः** सतराव्या आनी अठराव्या शतमानाच्या काळांत हांगा जरी तरांतरांचे लोक आशिल्ले तरी हातूंत ब्रिटिशांचें प्रमाण चड आशिल्ल्यान इंग्लीश भाशेक मान्यताय मेळूंक लागली. युरोपांतल्यान कोणेतरी आपल्याचेर सत्ता चलवची ही गजाल तांकां मान्य जायना जाली. इंग्लंडच्या संसदेंत संमत जाल्ल्या कायद्यांचो शेक आपल्याचेर चलप म्हळ्यार अन्यायाचें आसा असो विचार वसाहतींतल्यान चालू जालो. १७६६ त हाचो परिणाम म्हूण स्टँप ॲक्ट रद्द जालो तरीपूण च्या, कागद हांच्यावयल्या करांक लागून तांचेर बहिश्कार घालपाची चळवळ हांगा सुरू जाली. १७६८ त बॉस्टन शारांतल्यान ती सगळ्याक पातळ्ळी. फुडें हे कर रद्द जाले, पूण चळवळ बंद जालीना. सप्टेंबर १७७४ त बारा वसाहतींतले फुडारी फिलाडेल्फिया ह्या शारांत जमले आनी ताणी हे बसकेक 'कॉंटिनँटल कॉंग्रेस' अशें नांव दिलें. ब्रिटीश सैन्यान हे गजालीक विरोध केलो. बंकरहिल हांगा ब्रिटीश आनी सुटकेझुजारी हांच्यामदीं झूज जालें आनी बरेच ब्रिटीश सैनिक ह्या झुजांत सोंपले. कॉंटिनँटल कॉंग्रेस अमेरिकेचें सरकार म्हूण वावरूंक लागली. ४ जुलै १७७६ दिसा स्वतंत्रतायेचो जाहीरनामो उजवाडावन 'अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां स्वतंत्र आनी स्वायत्त आसात' अशी घोशणा केली.

हाच्या उपरांत वसाहतवाले आनी ब्रिटीश हांच्यामदीं ल्हान व्हड झुजां जावन १७८३त पॅरिस हांगा जाल्ले कबलातींतल्यान अमेरिकेचें स्वतंत्रताय झूज सोंपलें आनी अमेरिका हो स्वतंत्र देश अस्तित्वांत आयलो.

**स्वतंत्रताये उपरांतचो काळः** झूजाच्या काळांत दरेका राज्यान आपापले विंगड विंगड कायदे केल्ले. ह्या सगळ्या राज्यांमदीं झगडीं जावपाची भिरांत उत्पन्न जाली. डॅनियल शेझ हाच्या फुडारपणाखाल शेतकामत्यानी हांगा बंडां केलीं. लश्करान हीं बंडां मोडलीं, पूण ह्या बंडांउपरांत राज्ययंत्रणेची गरज सगळ्यांक जाणवली. कॉंटिनँटल कॉंग्रेस राज्यपध्दत जाग्यार घालच्याखातीर पुराय पडचीना हे नदरेंतल्यान मे १७८७ त बारा घटक राज्यांतले ५५ प्रतिनिधी संविधान तयार करच्याखातीर फिलाडेल्फिया हांगा जमले. ११ सप्टेंबर १७८७ दिसा तीन घटकराज्यां सोडून हेर राज्यांनी संविधानाक मान्यताय दिली. पयलो राश्ट्राध्यक्ष म्हूण जॉर्ज वॉशिंग्टन आनी उपराश्ट्राध्यक्ष म्हूण जॉन ॲडम्स राज्यकारभार चलवंक लागले. वॉशिंग्टन फाटोफाट दोन खेप राश्ट्राध्यक्ष जालो आनी १७९६त निवृत्त जालो.

वॉशिंग्टनाचे कारकिर्दींत अमेरिका एक बळीश्ठ राश्ट्र म्हूण मुखार येवपाची सुलूस लागली. ताच्या उपरांत ॲडम्स, जेफर्सन, मॅडिसन हांच्याय कारकिर्दींत अमेरिकेची बरीच उदरगत जाली. जेफर्सनाच्या काळांत अमेरिकेन नेपोलियनाकडल्यान लुईझिॲना हो वाठार सव्वा लाख डॉलर दिवन विकतो घेतलो.

फुडें १८१७ सावन आठ वर्सां जेम्स मन्रो राश्ट्राध्यक्ष आशिल्लो. ताणे स्पेनाची ताकद काबार करचेखातीर वेगवेगळे उपाय केले. अमेरिकेचे बळगें वाडोवचेखातीर ताणे मुखार दवरिल्लो प्रस्ताव 'मन्रो डॉक्ट्रीन' (१८२३) ह्या नांवान नामनेक पावला. १८२८-३७ ह्या काळांत अँड्र्यू जॅक्सन राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताणे आनी ताच्या उपरांत सत्तेर आयिल्ल्या राश्ट्राध्यक्षांनी अमेरिकेक ऑरेगॉन, टेक्सास, मेक्सिको ह्या सारके वाठार मेळोवन दिले.

पॅसिफिक म्हासागराच्या लागीं १८४८ त भांगराचो सोद लागलो आनी दक्षिणेवटेनच्या राज्यांची हाका लागून बरीच उदरगत जाली. राज्यांच्या प्रस्नांवयल्यान हांगा वाद जावंक लागले आनी यादवी झूज पेटलें. झुजाच्या कारणांविशीं इतिहासकारांमदीं बरेच मतभेद आसात. १८६० त अब्राहम लिंकन राश्ट्राध्यक्ष जाल्याउपरांत दक्षिण कॅरोलायना राज्य संघाभायर सरलें. खंयच्याच राज्याक कायदेशीरपणान संघांतल्यान भायर सरूंक मेळचेंना अशें लिंकन हाणे जाहीर केलें, आनी फुटीर राज्यांआड झूज चालू केलें. ह्या झुजांत दक्षिणेवटेनच्या फुटूंक सोदपी राज्यांचो १९६५ त पराभव जालो आनी झूज सोंपलें. फुटीरतायेच्या विचारांक काबार करपावांगडाच गुलामगिरीच्या प्रस्नाक मिटवच्याखातीर लिंकन बरोच वावुरलो. यादवी झुजाच्या कारणाखातीर गुलामगिरीचो प्रस्न आनी कांय राज्यांमदीं मूळ धरूंक लागिल्ल्यो राश्ट्रवादाच्यो कल्पना मुखेल आशिल्ल्यो. उत्तरेकडेनच्या राज्यांक संघराज्य पध्दत दवरूंक जाय आशिल्ली, जाल्यार दक्षिणेवटेनच्या राज्यांक, जंय निग्रो लोकसंख्या चड आशिल्ली तांकां स्वतंत्रताय जाय आशिल्ली. काळ्या-गोऱ्यांमदलो संघर्श आनी स्वतंत्र राज्यांचो विचार हातूंतल्यान झुजाक सुरवात जाल्ली. फुडें लिंकन पर्थून राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. बंडखोर राज्यांच्या प्रस्नांचेर सासणांखातीर उपाय काडपाच्या यत्नांत आसतनाच १४ एप्रिल १८६५ ताचो खून जालो आनी उपराश्ट्राध्यक्ष आशिल्लो अँड्र्यू जॉन्सन राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताच्या कारकिर्दींत 'कू क्लक्स क्लॅन' हे निग्रोंचो दुस्वास करपी दहशतवादी गुप्त संघटनेची हांगा थापणूक जाली. रशियाकडल्यान अमेरिकेन ह्याच काळांत अलास्का हो वाठार विकतो घेतलो. ताच्या उपरांत वेंचून आयिल्लो युलिसीझ ग्रँट हो १८७६ मेरेन राश्ट्राध्यक्ष उरलो. फुडें तांची लोकप्रियता उणी जाली आनी सॅम्युएल टिल्डन हो राश्ट्राध्यक्ष जावचेखातीर उबो रावलो. पूण ताच्याआड हेज हो

रिपब्लिकन पक्षाचो उमेदवार राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. १८८१ त वेंचून आयिल्ल्या जेम्स गारफील्ड हाचो खून जालो आनी चेस्टर राश्ट्राध्यक्ष जालो. रिपब्लिकन पक्षाची लोकप्रियता उपरांत ल्हव ल्हव उणी जावंक लागली आनी १८८४ त क्लीव्हलंड हो डॅमोक्रॅटिक पक्षाचो उमेदवार राश्ट्राध्यक्ष जालो, पूण १८८८ त रिपब्लिकन पक्षान पर्थून आपलें बळगें वाडयलें आनी तांचो उमेदवार जनरल हॅरिसन राश्ट्राध्यक्ष जालो.

१८९२ त लोकांनी क्लीव्हलंडाक पर्थून वेंचून काडलो. ताच्या काळांत अमेरिकेच्या सगळ्या वाठारांची बरेतरेन पुर्नरचणूक जाली. क्लीव्हलंडाफाटल्यान राश्ट्राध्यक्ष जाल्ल्या मॅकिन्ली हांणे ॲटलांटिका म्हासागरांतल्या क्यूबा, प्वेर्तरिको ह्या वाठारांचेर अमेरिकेचो शेक गाजयलो. पॅसिफिक म्हासागरांतल्या फिलीपीन जुंव्यांचो चोमोय अमेरिकेचे सत्तेखाला आयलो. १९०१ त मॅकिन्लीचो खून जालो आनी उपराश्ट्राध्यक्ष आशिल्लो थीओडोर रुझवेल्ट राश्ट्राध्यक्ष जावंक पावलो. १९०४ तल्या वेंचणुकांनी पर्थून तोच वेंचून आयलो. त्याच वर्सासावन सुरू जाल्ल्या रशिया-जपान झुजांत मध्यस्थी करून ताणे झूज थांबयलें आनी ताका लागून ताका १९०६ त शांततायेचें नोबेल इनाम मेळ्ळें.

१९१२ त डेमॉक्रॅटिक पक्षाचो वुड्रो विल्सन वेचून येवच्यापयलीं हावअर्ड टॅफ्ट हो राश्ट्राध्यक्ष आशिल्लो.

**म्हाझुजांउपरांतचो काळः** १९१४त सुरू जाल्ल्या पयल्या म्हाझुजांत पयलीं दोन अडेच वर्सां अमेरिका तटस्थ रावलो. म्हाझुजांक लागून अमेरिकेच्या वेपाराची उदरगत जाली, पूण म्हाझुंजातले दोनय पक्ष अमेरिकेच्या तटस्थतेविशीं दुबावीत जाले. १९१५ त जर्मन पाणबुड्यांनी दोन ब्रिटीश बोटी बुडयल्ल्यो तातूंत जे लोक मेले तांतले कांय अमेरिकन आशिल्ले. अमेरिकेंत जर्मनी आड लोकमत तयार जावंक लागलें. १९१७त अमेरिकेच्यो बोटीय जर्मनीच्या पाणबुड्यांकडल्यान बुडूंक लागल्यो. जर्मनी मेक्सिकोक झुजाखातीर फुडें काडटा हाचो पुरावो त्याच वेळार विल्सनाच्या हातांत आयलो. तो उजवाडाक आयल्या उपरांत ६ एप्रिल १९१७ त इश्ट राश्ट्रांवांगडा अमेरिकेन जर्मनीआड झूज चालू केलें. अमेरिकेन आपलें नाविक बळ वाडोवन जर्मनीचेर हार घालूंक सुरवात केली. हें झूज निमणें १९१८ च्या शेवटाक सोंपलें.

अमेरिकेन झुजांत वांटो घेवपाच्या प्रस्तावयल्यान सीनेटांतल्या विरोधकांनी विल्सनाचेर टीका करूंक सुरूवात केल्ली. १९१९त विल्सनाक अर्धांगाचो झटको आयलो. १९१९-२० त अमेरिकेंत एका फाटोफाट एक अशे बरेच संप जाले. ह्या वेळार रिपब्लिकन पक्षाचो वॉरेन हार्डिंग हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९२३ त ताका मर्ण आयलें आनी कॅल्व्हिन कूलीज राश्ट्राध्यक्ष जालो. फुडली वेंचणूक ताणेच जिखली आनी १९२८ वर्सामेरेन राश्ट्राध्यक्ष पद सांबाळ्ळें.

१९२८त हर्बट हूव्हर राश्ट्राध्यक्ष जालो. इतले मजगतीं अमेरिकेंत शेअर बाजाराक बरेंच म्हत्व आयिल्लें. अर्थीक मळार अमेरिकेची परिस्थिती वायट जावंची न्हय हाका लागून ताणे बरेच उपाय सोदले. १९३२ त डेमोक्रॅटिक पक्षाचो फ्रॅंकलीन रुझवेल्ट राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताच्या वावराक लागून १९३६ त पर्थून ताका लोकांनी वेंचून दिलो. ह्या वेळार जर्मनींत हिटलरची, इटलींत मुसोलिनीची सत्ता आनी स्पेनांत यादवी झूज चलतालें. १९३९ त दुसरें म्हाझूज सुरू जालें. ह्या झुजांतय पयलीं आपल्या तटस्थतेच्या धोरणाक लागून अमेरिकेन वांटो घेतलो ना. १९४०त रुझवेल्ट तिसरे फावट राश्ट्राध्यक्ष जालो. ल्हवल्हव अमेरिकेन झुजाविशींचें आपलें तटस्थतायेचें धोरण बदललें. अमेरिकेवांगडा एकेवटेन शांततायेचें धोरण दवरून दुसरेवटेन जपानान पर्लहार्बर ह्या अमेरिकेच्या आरमारी तळाचेर घुरी घाली. १९४१ तल्या ह्या जपानाच्या बॉंब घुरयेउपरांत अमेरिकेन झुजांत वांटो घेतलो. जपानी शारांचेर १९४५त अणुबॉंब उडयल्या उपरांत झूज सोंपलें. १९४४ त रुझवेल्ट चवथे फावट राश्ट्राध्यक्ष जालो; पूण रोखडेंच १९४५ त ताका मरण आयलें. विसाव्या शतमानांत अमेरिकेची उदरगत करपाच्या वावरांत रुझवेल्ट हाचो वांटो बरोच म्हत्वाचो आसा. अणुबॉंब जपानाचेर उडोवपाची घडणूक रुझवेल्टाउपरांत राश्ट्राध्यक्ष जाल्ल्या ट्रूमनाचे कारकिर्दींत घडली. ट्रूमन (१९४५-५२), आयसेन हॉवर (१९५३-६१), केनेडी (१९६१-६३), जॉन्सन (१९६३-६९), निक्सन (१९६९-७४) हांच्या काळांत अमेरिकेक झुजाउपरांतच्या बिकट परिस्थितीक तोंड दिवचें पडलें. अमेरिकेन पयलींचें अलिप्ततावादी धोरण कुशीक दवरलें आनी साम्यवादाच्या संवसारिक प्रसाराचेर आळाबंद हाडच्याखातीर 'मार्शल येवजण', 'नाटो', 'सिटो' ह्या सारक्यो संघटना उबारूंक फुडाकार घेतलो. रशिया आनी अमेरिकेमदीं 'शीतझूज' (Cold War) सुरू जालें. १९६०त अमेरिकेचें यू-२ हें विमान सकयल उडयल्ल्यान रशिया अमेरिका हांच्यामदीं झूज जावपाचो प्रसंग आयलो. चीनी क्रांती, बर्लिनचो प्रस्न, कोरियन झूज, अरब-इस्राएल झगडीं, सुएझ कालव्याचो प्रस्न, कंबोडिया, लाओस, व्हिएतनाम हांचे प्रस्न ह्या सारक्या गजालींचो अमेरिकेच्या परराश्ट्र धोरणाचेर बरोच परिणाम जालो.

झुजाउपरांतच्या काळांत अमेरिकेन अवकाश संशोधनाच्या मळार नेटान उदरगत केली. १९६९त सगळ्यांत पयलीं अमेरिकेन चंद्राचेर पावल दवरलें. समाजीक समतायेच्यो बऱ्योच घोशणा करूनलेगीत ह्या देशांत निग्रोखातीर जाय तशे हक्क हांगा नात. मार्टिन ल्यूथर किंग सारक्या फुडाऱ्यांच्या आंदोलना उपरांतय हांगा काळ्या-गोऱ्यांमदलो संघर्श सोंपिल्लो ना.

लिंडन जॉन्सनाउपरांत राश्ट्राध्यक्ष जाल्ल्या निक्सन हाणे अमेरिकेक आंतरराश्ट्रीय पांवड्याचेर एक आक्रमक प्रकारचें स्वरुप हाडलें, पूण 'वॉटरगेट' प्रकरणांतल्यान ताका राजीनामो दिवचो पडलो आनी ताच्या फाटल्यान जॅराल्ड फोर्ड राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९७६ तल्या वेंचणुकांनी जिमी कार्टर हाका जैत मेळून तो राश्ट्राध्यक्ष जालो. जिमी कार्टरची कारकिर्द १९८१ त सोंपली. रॉनाल्ड रिगन हो १९८१त राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. रिगनाची कारकीर्द बरीच गाजली. ताचें अर्थीक धोरण, स्टार वॉर्स कार्यावळ, निकाराग्वांतल्या बंडखोरांक पालव दिवप हांचेर देशांत आनी देशाभायर बरीच टीका जाली; पूण १९८४ त ताका लोकांनी पर्थून वेंचून काडलो. १९८८तल्या वेंचणुकानी रिगनाचे कारकिर्दींत उपराश्ट्राध्यक्ष आशिल्लो जॉर्ज बुश राश्ट्राध्यक्ष जालो.

**राज्यवेवस्थाः** अमेरिकेची राज्यवेवस्था १७ सप्टेंबर १७८७ तल्या संविधानाचेर आदारित आसा. सरकार विधीमंडळ, कार्यकारी मंडळ आनी न्यायवेवस्था ह्या तीन पांवड्यावयलें काम पळयता.

राश्ट्रीय सरकाराक म्हत्वाचे अधिकार आसात. कर घेवप, आंतरराश्ट्रीय आनी राज्यांमदल्या वेपाराखातीर जाय त्यो येवजणी थारावप, राश्ट्रीय राखण आनी चलन, आंतरराश्ट्रीय संबंद, नव्या वाठारांचो संघराज्यांत आस्पाव असल्या गजालींची जापसालदारकी केंद्र सरकाराची आसा. कार्यकारी मंडळाचो मुखेली राश्ट्राध्यक्ष आसता आनी त्या नात्यान तो देशाचो पयलो नागरिक थारता. शासन विभागाचो आनी राखणेदळाचोय तो मुखेली आसता.

अध्यक्षाच्या वेंचणुकेखातीर घटक राज्यांनी पयलीं अध्यक्षीय मतदाराची वेंचणूक जाता. फुडें हे मतदार अध्यक्षाचे वेंचणुकेंत मतदान करतात. मतदारांची संख्या त्या त्या राज्यांतल्या सिनेटर आनी प्रतिनिधी घराच्या वांगड्यांइतली आसता. अमेरिकेचो अध्यक्ष जल्मान अमेरिकन आसचो पडटा. तो उण्यांत उणो ३५ वर्सां पिरायेचो आनी १४ वर्सांखातीर अमेरिकेंत राविल्लो आसचो पडटा. अध्यक्षपदाखातीर वेंचणूक दर चार वर्सांनी जाता. १९५१ त घटनेंत केल्ल्या २२ व्या दुरुस्तीवरवीं एका मनशाक दोनांपरस चड फावट अध्यक्ष जावंक मेळना. अध्यक्षावांगडा उपाध्यक्षाचीय वेंचणूक जाता. उपाध्यक्ष हो सीनेटचो अध्यक्ष आसता. मंत्रीमंडळ, सगळ्यांत उंचल्या न्यायालयाचे न्यायाधीश, राजदूत ह्या सारक्यो म्हत्वाच्यो नेमणुको करप राश्ट्राध्यक्षाच्या हातांत आसता. परराश्ट्र धोरण तोच थारायता पूण खुंयचीय आंतरराश्ट्रीय कबलात करच्याखातीर सीनेटांतल्या २/३ सभासदांची मान्यताय आसची

पडटा.

अमेरिकेच्या संविधानाप्रमाण कायदे करपाचे अधिकार काँग्रेसीक (विधीमंडळ) आसा, काँग्रेस दोन घरांची आसता आनी 'सीनेट' आनी 'हाउस ऑफ रिप्रेझेंटेटिव्ह्ज' (प्रतिनिधी घर) अशीं तीं दोन घरां आसात. दरेक राज्याक सीनेटाखातीर दोन प्रतिनिधी धाडचे पडटात. तांची वेंचणूक स वर्सांखातीर आसता. दर सीनेटर उण्यांत उणो ३० वर्सां पिरायेचो आसचो पडटा, आनी अमेरिकेचो उण्यांत उणो णव वर्सांखातीर नागरिक आसचो पडटा. सद्याक अमेरिकेचीं ५० राज्यां आसात आनी डिस्ट्रिक्ट ऑफ कोलंबिया हाका ५१ वें राज्य अशें म्हण्टात.

प्रतिनिधी घराचो सभासद उण्यांत उणो २५ वर्सां पिरायेचो आनी अमेरिकेचो उण्यांत उणो सात वर्सांखातीर नागरिक आसचो पडटा. ज्या राज्यांतल्यान तो वेंचणुकेक उबो रावता थंयचो तो रहिवासी आसचो पडटा. प्रतिनिधी घरांची वेंचणूक दर दोन वर्सांनी जाता.

डेमोक्रॅटिक आनी रिपब्लिकन हे हांगाचे दोन मुखेल पक्ष आसात, पूण तांच्यामदीं खास अशे तत्वीक मतभेद दिसनात.

दर घटक राज्यांत थळावें सरकार, गव्हर्नर, विधीमंडळ आनी न्यायमंडळ घटकराज्याचें प्रशासन सांबाळटात. दर राज्याचें संविधान वेगळें आसलें तरी तांचेर आनी तांच्या कारभाराचे पध्दतीचेर राश्ट्रीय संविधानाचो प्रभाव स्पश्टपणान दिसून येता.

**अर्थीक स्थिती:** अमेरिका हो आज संवसारांतलो सगळ्यांत गिरेस्त देश अशें म्हण्टात. अमेरिकेंतल्या वसाहतींक जेन्ना स्वतंत्रताय मेळ्ळी, तेन्ना हांगाचे सुमार ८०% लोक शेतवडीच्या मळार काम करताले. सद्याक हांगाची ४७% जमीन शेतवडीखाला आसा. शेतांचो आवाठ आनी विस्तार बरोच व्हड आसा. फाटल्या कांय वर्सांसावन पुरायपणांत शेतवडीचेर आदारून रावपी लोकसंख्या उणी जाल्या. पूण हांगा पिकां भरपूर प्रमाणांत येतात. हांगाच्या सगळ्या लोकांची गरज भागोवन उरिल्ल्या पिकांची निर्यात जाता. मको, गंव, कापूस, तंबाखू आनी फळफळावळ ही हांगाची मुखेल पिकावळ. १९८५ वर्सा हांगाची मुखेल पिकावळ अशी आशिल्ली- मकोः २,२५,१८,१५,२०,००० मे. ट्रिक टन; गंवः ६६,००,०५,४०,००० मे.टन; सोयाबीन्स ५७,११,२६,५०,००० मे.टन; उस. २,५५,९४,४०० मे.टन; बटाट १,८४,६६,००० मे.टन; कापूस २९,२४,५०० मे.टन; तंबाखू ६,८५,४७० मे.टन.

शेतवडीच्या मळाचेर जाल्ली उदरगत, यंत्रांचो वापर, नव्या बियाणांचो उपेग हाका लागून पिकावळींत बरीच वाड जाल्या. रसायनां आनी सान्याचो वापर ह्या गजालींतल्यानय अमेरिकेन शेतवडीच्या मळार बरोच उंचेलो पांवडो हातासला.

१९८३ त सुमार २,१५,००० वेवसायिक नुस्तेंमारपी लोकांची ह्या देशांत नोंद जाल्या. नुस्त्याचो खावपाखातीर, उद्येगधंद्यांखातीर आनी निर्यातीखातीर उपेग जाता. यांत्रिकीकरणाक लागून नुस्त्याचें प्रमाण बरेंच चड आसा. १९८४त २,८९,७१,००,००० मे. टन नुस्तें ह्या देशांत मेळ्ळें.

अमेरिका चडशा खनिजसंपत्तीच्या मळार गिरेस्त आसा. लोखण हें हांगाचें मुखेल खनीज आसा. ह्या देशांची उद्यगीगक गरज भागवच्याखातीर ताचो पुरायपणान उपेग जाता. कोळशाचें उत्पादनय ब्रयाच प्रमाणांत जाता. हांगाच्या कोळशाची साठवण फुडलीं शंबरांनी वर्सां पावपासारकी आसा.

सैमीक तेलाचें उत्पादन ह्या देशांत म्हत्वाचें थारलां. तेल काडप, ताचें शुध्दीकरण करप आनी उद्येगीक मळार ताचो उपेग करून घेवप हो ह्या देशांतलो मुखेल उद्येग आसा. सैमीक वायू हांगाच्या लोकांची गरज भागवपाइतलो आसा. ह्या उद्येगाचीय उदरगत बरेंतरेन जाल्या. भरपूर प्रमाणांत मेळपी हेर खनिजसंपत्ती म्हळ्यार जस्त, तांबे, रूपें आनी फॉस्फेट. बाकीचीं सगळीं खनीजां थोड्याभोव प्रमाणांत ह्या देशांत मेळटात. खनिज संपत्तीचें १९८५ वर्साचें उत्पादन- जस्तः २,१७,५०० मे. टन; तांबें: ११,१०,७०० मे. टन; रुपें: १,२९४ मे. टन; फॉस्फेटः ५,०८,००,००० मे. टन.

हांगाचे वट्ट भूंयेपैकीं १/५ भूंय रानाखाला आसा. रानांतल्या लाकडाचो कागद आनी हेर उद्येगांवांगडा वखदां आनी रसायनां करच्याखातीर उपेग जाता. १९८४ वर्सा ह्या देशाक ७५,३५,००० पर्यटकांनी भेट दिली. हातूंतल्यान सुमार ११,३८,६०,००,००० अमेरिकन डॉलर्सची उलाढाल जाली.

उद्येगधंद्याच्या मळार हो देश संवसारांत सगळ्यां परस फुडें आसा हें समजता. दिसपट्ट्या गरजेच्यो वस्तू ते सामक्याच उदरगतीक पाविल्ले संगणक आनी यंत्रसामुग्री अशे विंगड विंगड प्रकारचे कारखाने हांगा आसात.

म्हाझुजा उपरांत अमेरिकेन अर्थीक मळाचेर जी झोंपय मारल्या ती तोखणाय करपासारकी आसा. आयज संवसारांतल्या कितल्याशाच देशांक अमेरिकेन रीण दिवन तांकां आपल्या अर्थीक शेकातळा दवरल्यात. शस्त्रां आनी झुजांचें सामान तयार करपांत हांगा जी उदरगत जाल्या तिका लागून अमेरिका विंगड विंगड देशांची शस्त्रांची गरज सहज भागोवंक शकता. बरेचकडच्यान ह्या देशांत आयात जाता. हातूंत मशीनां आनी वाहनां, संचारणाचीं साधनां, खनीज पदार्थ आनी रसायनां, पेट्रोलियम हांचो आस्पाव चड आशिल्लो. ह्या देशाचे आयात वेव्हार जपान, कॅनडा, अस्तंत जर्मनी, मेक्सिको आनी हेर बऱ्याच देशांलागीं जातात. निर्यात करपांत अमेरिका बरेच उदरगतीक पावल्या. हांगासावन मशीनां, संगणक, शस्त्रास्त्रां, तरांतरांची यंत्रसामुग्री, रसायनां, विमानां आनी हेर वाहनां आनी तांचे सुटे भाग, कड्डणां आनी हेर पिकावळ हांची निर्यात चडशी जाता. मुखेलकरून ह्या देशाची निर्यात कॅनडा, जपान, मेक्सिको, ब्रिटन, अस्तंत जर्मनी, नेदरलॅंड्स, फ्रांस, चीन आनी कम्युनिस्ट राजवट नाशिल्ल्या संवसारांतल्या चडशा देशांलागीं जाता.

अमेरिकन कारखाने तिसऱ्या जगांतल्या कितल्याशाच देशांनी आसा. ह्या देशांच्या अर्थवेवस्थेची बुन्याद बरीच घट आशिल्ल्यान संवसारांतल्या बऱ्याचशा देशांनी हांगाचे उद्येगधंदे पातळल्यात. डॉलर हें हांगाचें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारणः** १९८५ मेरेन अमेरिकेंत २,७६,००० किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आशिल्ले. त्याच वर्सा रस्त्यांची लांबाय ६२,६९,०४३ किमी. आशिल्ली. हातूंतले ८८% पक्के आशिल्ले. देशाभितर एके सुवातेसावन दुसरेकडेन वचच्याखातीर विमान येरादारीची बरी वेवस्था आसा. देशाभितरली विमान येरादारी हांगा आशिल्ल्या १५,८३१ नागरी विमान् तळावरवीं चलता. अमेरिकन एअरलायन्स, पॅन अमेरिकन एअरवेज (पॅन ॲम), ट्रान्सवर्ल्ड एअरवेज (ट्वा), ब्रॅनिफ इंटरनॅशनल, इस्टर्न एअरलायन्स ह्यो अमेरिकेंतल्यो नांवाजिल्ल्यो विमानकंपन्यो आसात.

मिसिसिपी आनी तिच्या उपन्हंयांतल्यान उदकांमार्गावयली येरादारी चलता. हे भायर हांगा आशिल्लीं सरोवरांय येरादारीखातीर बरींच उपेगाचीं आसात. अमेरिकेंत संवसारभर नामना मेळिल्लीं आनी हेर कितल्याशाच देशांकडेन वेपार संबंद दवरपी बंदरां आसात.

येरादारीच्या मळार हो देश सामकोच फुडारला. मोटार गाडयो, विमानां, हांचेविशीं हांगा सगळ्यांत चड सोयी आसात.

१९८४ वर्सामेरेन हांगासावन १,६८८ दिसाळीं उजवाडाक येतालीं. हांचो वट्ट खप ६,३०,८१,७४० इतलो आशिल्लो. हांगाच्या ९८% लोकांच्या घरांनी दूरचित्रवाणी संच आसात. सुमार सगळे लोक रेडिओचो लाव घेवंक शकतात. ६,६०३ रेडिओ आनी ७२५ दूरचित्रवाणी केंद्रां ह्या देशांत आसात. इंग्लीशीभायर हेर ५४ भाशांतल्यान हांगा प्रसारमाध्यमांवरवीं कार्यावळी जातात.

यंत्रांच्या आनी विज्ञानाच्या उदरगतीक लागून ह्या देशांत येरादारी आनी संचारणाच्या मळार उंचल्या पावंड्याच्यो सोयी आसात.

**लोक आनी समाजजीवनः** अमेरिकेंतलो आयचो समाज

कितल्योशोच जाती, जमाती आनी वंश (चड करून युरोपीय) हांची भरसण आसा. युरोपांतल्यान हांगा आयिल्ले पंगड विंगड विंगड वाठारांनी राबितो करून रावल्यात. देखीक- न्यूयॉर्क शार. हांगा आजूनय आयरीश, ज्यू, जर्मन, इटालियन ह्या सारके लोक आपापले पंगड करून आसात. पूण एक भाशा, संचारण आनी शिक्षण हातूंतलो एकसुत्रीपणा ह्या गजालीक लागून जाती वंशाच्यो वण्टी स्पश्टपणान मोडून पडटना दिसतात.

वंशीक नदरेन हांगा वर्गीकरण करप शक्य जायना पूण कोराच्या नदरेन वर्गीकरण शक्य आसा. हांगाचे सुमार ८४.२७% लोक गोरे कातीचे, १२.१% काळे आनी उरिल्ले हेर आसात.

धर्मीक नदरेन १९८० मेरेन हांगा ४०.०% लोक प्रॉटेस्टंट, ३०.०% रोमन कॅथलिक, ३.२% ज्यू आनी उरिल्ले मुसलमान, हिंदू, नास्तिक आनी हेर विंगड विंगड धर्मांचे आसात.

सगळयांत पयलीं ह्या देशांत युरोपांतल्यान येवन स्पॅनिश लोकांनी राबितो केल्लो. उपरांत फ्रेंच, डच, ब्रिटीश आनी स्विडीश लोक हांगा येवन रावले. हांगाचे मूळचे लोक रेड इंडियन हे आदिवासी. उपरांतच्या काळांत चिनी, जपानी, फिलीपिनो आनी हेर आशियाई, मेक्सिकन आनी आफ्रिकेवटेनच्यान लोक हांगा येवन रावंक लागले. इतल्या विंगड विंगड वाठारांतल्यान येवनलेगीत हांगाचे लोक हें एकवटीत राश्ट्र घडोवपांत यशस्वी जाले. सद्या हांगाचे मूळ रेड इंडियन बरेच उणे जाल्यात आनी ते फकत कांय थारावीक वाठारांनी सांपडटात.

हांगा स्पश्टपणान फरक जाणवता तो म्हळयार काळ्या आनी गोऱ्या लोकांचो. हांगा समाज जागृताय आनी सरकारी पांवड्यावयल्या यत्नांक दाद दिनासतना काळ्या-गोऱ्यांमदली दुस्मानकाय आयजमेरेन पळोवंक मेळटा. निग्रो लोकांनी तरांतरांच्या चळवळींतल्यान आनी संघटनांतल्यान आपल्याआड जावपी अन्यायाचेर जाप मागल्या. बरेच निग्रो ताका किरिस्तांव धर्मांत मेळपी वायट वागणुकेक लागून मुसलमान जाल्यात. 'ब्लॅक मुस्लीम', 'क्रूझेडर्स' ह्यो काळ्या लोकांच्या हक्कांखातीर झुजपी संघटना आनी 'कू क्लक्स क्लॅन' सारकी काळ्यांचो द्वेश करपी संघटना ह्या देशांत आसा. हांगाच्या समाजांत गुन्यांव करपाचें प्रमाण आनी विज्ञानयुगांतल्यान आयिल्ले विफलतेचें प्रमाण बरेंच दिसून येता. कितल्याशाच समाजशास्त्रज्ञांनी ह्या विशयाचेर बरीच बरपावळ केल्या. हिप्पी पंथासारके समाजाचीं स्वताचेर बंधनां आपणावंक न्हयकार दिवपी तरांतरांचे पंथ ह्या देशांत उदेल्यात.

सादारणपणान हांगाचें जीवनमान संवसारांतल्या हेर देशांपरस बरें. दिसपट्ट्या गरजेच्या वस्तूंच्यो हांगाच्या लोकांच्यो कल्पना हेर देशांपरस वेगळयो आसात. स्वताचें वाहन आसप ही हांगाच्या लोकांची नित्याची गजाल. यांत्रिकीकरणाच्या उदरगतीक लागून लोकांचें जिवीत उण्या कश्टांचे आसा. गिरेस्तकायेक लागून समाजाची विचारसरणी हेर देशांतल्या समाजापरस वेगळी आशिल्ल्याचें स्पश्टपणान जाणवता.

कला, खेळ आनी मनोरंजनाच्या हेर साधनांची हांगा बरीच उदरगत जाल्या. फकत उदरगतच न्हय तर तातूंत विंगड विंगड प्रकारचें खाशेलेपण आसा. चित्रकला, शिल्पकला, वास्तूशिल्प ह्या मळांचेर अमेरिकन लोकांनी संवसारभर नामना मेळयल्या.

चित्रकलेच्या मळार हांगा उदरगत जायत गेल्ली ती कांय मुखेल काळखंडांभितर सदळपणान विवर्सूंक येता.

चित्रकलेची सुरवात हांगा प्रतिमाचित्रणान जाली. सतराव्या शतमानांतलें प्रतिमाचित्रण चडशें मूळ यूरोपीय धर्तेचें अनुकरण आशिल्लें. ह्या काळांतले मुखेल चित्रकार म्हळयार इंग्लंडांतल्यान आयिल्ले जॉन स्मायबर्ट (१६८८-१७५१), पीटरपेलम, आनी जॉसेफ ब्लॅकबर्न, स्वीडनांतलो गस्टाव्हस हेसीलियस (१६८२-१७५५), हॉलंडांतलो जॉन व्हँडर्लिन (१७७६-१८५२) हे आसात. युरोपीय शैलींतलें सांकेतिक प्रतिमाचित्रण जॉसेफ बॅजर, रॉबर्ट फीक, राल्फ अर्ल हांच्या चित्रांनी दिसता. चार्ल्स पील आनी जॉन कॉपली हें अठराव्या शतमानांतले म्हत्वाचे चित्रकार. प्रतिमाचित्रणांत एक खाशेलें वेगळेपण गिल्बर्ट स्ट्यूअर्टच्या चित्रांनी दिसता.

अठराव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत अमेरिकन चित्रकार भूभाग चित्रणाकडेन चड लक्ष दिवंक लागले. हेन्री इनमन, विल्यम मावंट (१८०८-६७), ईस्टमन जॉन्सन (१८२४-१९०६) आनी जॉर्ज बिंगॅम हें सुर्वेचे भूभागचित्रकार. जॉन ऑडुबॉन हो अमेरिकेंतलो सुकण्यांचे चित्रण करपी म्हत्वाचो चित्रकार. एकुणिसाव्या शतमानांत 'हडसन रिव्हर स्कूल' ह्या नांवान वळखतल्या संप्रदायांतल्या चित्रकारांनी स्वच्छंदतावादी भूभागचित्रणाची उदरगत केली. टॉमस डाऊटी (१७९३-१८५६), टॉमस कोल (१८०१-४८) हे चित्रकार ह्या संप्रदायाची बुनयाद घालपी आशिल्ले. हांच्याभायर ॲशर ड्यूरँड (१७९६-१८८६), जॉन केन्सेट (१८१६-७२) आनी फ्रेडरीक चर्च ह्या हेर चित्रकारांनी ही कला नामनेक पावयली.

अमेरिकेंतल्या यादवी झुजाउपरांत ईतिहासीक चित्रण आनी वण्टीचित्रांच्या मळार लॉयत्से (१८१६-६८) ह्या चित्रकारान म्हत्वाचो वावर केलो. ताच्या आनी ॲल्बर्ट बीअरस्टॅट (१८३०-१९०२) हाच्या चित्रांतल्यान लोकांच्या अभिरुचीचें दर्शन घडटा.

एकुणिसाव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांतच जॉर्ज इनिस (१८२५-९४) आनी विल्यम हंट (१८२४-७९) हाणी अमेरिकन स्वच्छंदतावादी संप्रदायांत फ्रान्सातल्या बार्बिझाँ संप्रदायाचो प्रभाव हाडलो. फ्रेंच चित्रकलेचो अमेरिकन चित्रकलेचेर पडिल्लो प्रभाव ह्या काळांत स्पश्टपणान दिसून येता. जॉन ला फार्ज (१८३५-१९१०) ह्या पॅरिस हांगा चित्रकला शिकून आयिल्ल्या चित्रकारान धर्मीक स्वरूपाच्या वण्टीचित्रांनी आनी कंवचेचित्रणान (स्टेन्ड ग्लास) चित्रकलेंत विंगडपणा हाडलो. मेरी कर्सॅट (१४५,१९२६), जॉन ट्वाक्टमॅन (१८५३-१९०२) चायल्ड हॅसम (१८५९-१९३५), अर्न्स्ट लॉसन (१८७३-१९३९) हें फ्रेंच दृक्प्रत्ययवादाच्या प्रभावाखाल आशिल्ले. जॉन सार्जेंट (१८५६-१९२५) हांची चित्रकला उच्च वर्गान बरीच तोखेल्ली.

विसाव्या शतमानांत चित्रकलेची उदरगत चड नेटान जांवक लागली. 'द एट' ह्या नव्या पंगडान चित्रकलेच्या मळार वेगळो प्रवाह हाडलो. हातूंतले चित्रकार म्हळयार मॉरिस प्रेंडरगास्ट, आर्थर डेव्हिस, रॉबर्ट हेन्री, जॉर्ज लक्स, विल्यम ग्लॅकेन्झ, जॉन स्लोन, अर्न्स्ट लॉसन, आनी एव्हरेस्टशिन हे आशिल्ले. ह्या पंगडांत आनी 'असोसिएशन ऑफ अमेरिकेन पेंटर्स अँड स्कल्प्टर्स' हाणी फुडाकार घेवन थारयिल्ले प्रदर्शन 'आर्मरी शो' (१९१३) हें अमेरिकेच्या चित्रकलेच्या इतिहासांत म्हत्वाचे आनी क्रांतीकारक अशें मानतात. यूरोपांतली नवअभिजाततावादी, स्वच्छंदतावादी, घनवादी, अप्रतिरुपतावादी, आनी अभिव्यक्तिवादी आशिल्लीं तरांतरांची चित्रां ह्या प्रदर्शनांत आशिल्लीं. ह्या प्रदर्शनाच्या प्रभावांतल्यान अमेरिकन चित्रकलेंत अप्रतिरुपतावादी चित्रणाक सुरवात जाली. जॉझेफ स्टेला (१८८०-१९४६), चार्ल्स डेमूथ (१८८३-१९३५) स्ट्यूअर्ट डेव्हिस (१८९४-१९६४) हांच्या चित्रांमदीं अप्रतिरूप चित्रण दिसता. लोकप्रिय आनी वास्तवचित्रण करप्यांमदीं जॉर्ज बेलोझ आनी रॉकवेल केंट हांची नांवां आसात. एडवर्ड हॉपर, चार्ल्स बर्च फील्ड, जॉन मारिन हेय ह्या काळांतले नामनेचे चित्रकार आसात. चार्ल्स शीलर, जॉर्जिया ओकीफ, पीटर ब्लूम हाणी ह्या प्रवाहांत मात्सो विंगडपणा हाडलो. अमेरिकन चित्रकलेंत समाजीक जाणीवेची अभिव्यक्ती करपी प्रवाह बेन शाहन, फिलीप एव्हरगुड, जेकब लॉरिन्स, मोझेस सॉयर आनी राफाएल सॉयर हाणी हाडलो. ग्रँडमा मोझेसची भुरगेपणांतल्या गांवच्या जीणेचेर आदारिल्लीं प्राकृतिक चित्रां नांवाजिल्लीं आसात.

१९४० उपरांत अप्रतिरुप-अभिव्यक्तिवाद चड प्रभावी आसा. सद्या हांगाचे चित्रकलेंत विंगड विंगड प्रवाहांची भरसण दिसता.

हांगा दरेक शारांत कलासंग्रहालयां आसात. नामनेचें संग्रहालय 'नॅशनल गॅलरी' (वॉशिंग्टन डी.सी.), देशांतलें सगळयांत व्हड 'मेट्रोपॉलिटन म्युझियम', 'म्यूझियम ऑफ मॉडर्न आर्ट' आनी गुगॅनहायम

म्युझीयम (न्यूयॉर्क), 'आर्ट इन्स्टिट्यूट ऑफ शिकागो', 'म्युझियम ऑफ फायन आर्ट्स' (बॉस्टन) हीं खासा उल्लेख करपासारकीं आसात. 'नॅशनल फाउंडेशन ऑन द आर्ट्स अँड द ह्यूमॅनिटीज' (वॉशिंग्टन डी.सी.), 'नॅशनल एन्डॉवमेंट फॉर द आर्टस', 'नॅशनल काउंसिल ऑन द आर्टस्' 'फेडरल काउंसिल आनी द आर्टस् अँड द ह्यूमॅनिटीज' ह्यो संस्था नांवाजत्यो आसात. देशांत विंगड विंगड कलांची बरी जतनाय करून दवरल्या.

अमेरिकेंतली मूळची मूर्तिकला फ्रेंच आनी इटालियन परंपरेंतल्यान जल्माक आयली. हो प्रभाव विसाव्या शतमानामेरेन उरलो. होरेशिओ ग्रीनो (१८०५-१८५२), हायरम पॉवर्स (१८०५-७३), टॉमस क्रॉफड (१८१३-५७) आनी विल्यम टोरी (१८१९-९५) हाणी शिल्पकलेच्या मळार नामना मेळयली. वीसाव्या शतमानांत 'आर्मरी शो' चो अमेरिकेंतल्या सगळ्याच कलांचेर परिणाम जाल्लो, आनी इतिहासीक शिल्पांच्या सुवातेर स्वतंत्र अशे नवे प्रवाह येवंक लागिल्ले. ह्या काळांतले म्हत्वाचे शिल्पकार म्हळ्यार जॉन फ्लॅनागन (१८६३-१९५२), जेकब एप्स्टायन (१८८०-१९५९), गास्ताँ लाशेअझ (१८८२-१९३५), ईली नाडलमन (१८८५-१९४६) आनी विल्यम झोरेख (१८८७-१९६६).

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत अमेरिकन मूर्तिकलेंत धातुशिल्पाचें ल्हार आयलें. अलेक्झांडर कॉल्डर, नायूम गाब हांचीं धातूशिल्पां बरींच गाजलीं. हे भायर सिमोर लिप्टन, हर्बर्ट फर्बर, डेव्हिड स्मिथ आनी थीओडोर रोझॅक हे धातूशिल्पाच्या मळावयले हेर म्हत्वाचे शिल्पकार जावन आसात. १९५० उपरांत अमेरिकन इंडियनांच्या कलेचो प्रभाव शिल्पकलेंत दिसूंक लागलो. ह्या प्रभावाखाल आशिल्ले नामनेचे शिल्पकार म्हळ्यार हॅरी बेर्टोया, नोगुची, होसे रिवेरा आनी कॉन्स्टंटायन निव्होला हे आसात.

वसाहतकाळाचे सुर्वेक सतराव्या आनी अठराव्या शतमानांत अमेरिकन संगीत व्हडलेशें फुडारलें ना. धर्मीक स्तोत्रां, भक्तिगीतां, प्रार्थना हांच्यापुरतेंत तें मर्यादित आशिल्लें. योहान कोनराट बाइसेल (१६९०-१७६८)हो नांव घेवपासारको तेन्नाचो संगीतकार. अमेरिकेंत जल्म घेवपी पयलो म्हान संगीतकार फ्रांसिस हॉपकिन्सन (१७३७-९१) हो आसा. ताचे संगीत रचणुकेचेर इंग्लीश संगीताचो प्रभाव आशिल्लो. एकुणिसाव्या शतमानाच्या आरंभाक लोएल मेसन (१७९२-१८७२) ह्या संगीतकाराच्या यत्नाक लागून संगीताक शाळेंतल्या अभ्यासक्रमांत सुवात मेळ्ळी. ताणे संगीताच्या शिक्षणसंस्थांचीय थापणूक केली. युरोपांतल्या संगीतकारांचो हांगाच्या संगीताचेर प्रभाव आशिल्लो. १८४८ उपरांत राजकी कारणांक लागून बरेच जर्मन अमेरिकेंत येवन रावले, आनी संगीताच्या मळार तांचो प्रभाव पडलो. हो प्रभाव उणो करून अमेरिकन संगीताची उदरगत करपाचो वावर अँथनी हेन्रीक (१७८१-१८६१), विल्यम फ्राय (१८१३-६४) आनी जॉर्ज ब्रिस्टो (१८२५-९८) हाणी केलो.

निग्रो लोक संगीताचे धर्तेचेर स्टीव्हेन फॉस्टर (१८२६-६४) हाणे संगीत रचणूक केली. जॉन पेन (१८३९-१९०६) हाची 'सिंफनी' प्रकारांतली संगीतरचणूक लोकांमदीं बरीच तोखणायेची जाली. ताच्या फुडारपणाखाल 'बॉस्टन ग्रूप' वा 'न्यू इंग्लंड ग्रूप' हो संगीताचो पंगड नामनेक पावलो. ह्या पंगडांत जॉर्ज चॅडविक आनी होरेशिओ पार्कर हे म्हत्वाचे संगीतकार आशिल्ले.

कॉन्व्हर्स (१८७१-१९४०), एडवर्ड हिल (१८७२-१९६०) , डी. सी. मेसन (१८७३-१९५३), कारपेंटर (१८७६-१९५१), डेव्हिड स्मिथ (१८७७-१९४९), डग्लस मूर (१८९३-१९६९) आनी रँडल टॉमसन हांच्या संगीतांत पारंपारिक प्रभाव दिसता. नव्या प्रकारची संगीत रचणूक करप्यांमदीं वॉल्टर डॅमरोश (१८६२-१९५०) हॅन्री हॅडली (१८७१-१९३७), रुबिन गोल्डमार्क (१८७२-१९३६), चार्ल्स कॅडमन (१८८१-१९४६) आनी डीम्झ टेलर (१८८५-१९६६) हांचो आस्पाव जाता. चार्ल्स लेफ्लर हाणे 'पॅगन पोएम' हो नवो संगीतप्रकार हाडून पारंपारिक संगीताच्या मळार नवो इतिहास घडयलो. नवे पिळगेंतले म्हत्वाचे संगीतकार सॅम्युएल बार्बर, लेनर्ड बर्नस्टायन, पॉल बोल्झ, पॉल क्रिस्टन, डेव्हिड डायमंड, बर्नार्ड हेर्मान, क्यूबिक, मोनॉत्ती, पॉल नार्डोफ, गार्डनर रीड आनी विल्यम शूमन हे आसात.

अमेरिकेंतल्या संगीतांत निग्रो संगीताचो प्रवाह एकुणिसाव्या शतमानासावन उदरगतीक पाविल्लो. चार्ल्स स्किल्टन (१८६८-१९४१), जॉन पॉवेल, आनी लामार स्ट्रिंगफिल्ड हाणी निग्रो संगीताच्या मळार वावर केलो. निग्रोंच्या 'जाझ' ह्या संगीतप्रकारान हांगाच्या संगीताच्या मळार एक वेगळेंपण हाडलें. सद्या हांगाच्या संगीतांत विंगडपणा बरोच आयला. आनीक कितलेशेच नामनेचे संगीतकार अमेरिकेंत आसात.

नृत्य, नाटक आनी सिनेमा ह्याय मळांचेर कला बरेच उदरगतीक पावल्या. 'न्यूयॉर्क सिटी बॅले', 'सॅन फ्रॉन्सिस्को बॅले', 'नॅशनल बॅले' तशेंच 'अमेरिकन बॅले थिएटर' ह्यो नृत्याच्यो संस्था नामनेच्यो आसात. सगळ्या वाठारांनी नाट्यसंस्था दिसून येतात. तांतल्यो म्हत्वाच्यो म्हळ्यार 'द ॲक्टर्स स्टुडिओ थिएटर' (न्यूयॉर्क), 'द ॲक्टर्स वर्कशॉप' (सॅन फ्रॅन्सिस्को), 'द अमेरिकन शेक्सपिअर फेस्टिव्हल थिएटर' (लॉस अँजल्स), 'ॲरेना स्टेज' (वॉशिंग्टन डी. सी.) ह्यो म्हत्वाच्यो आसात. देशांत नाटकाघरांचेंय प्रमाण बरेंच व्हड आसा. 'हॉलिवूड' हें अमेरिकन सिनेमाचे केंद्र जावन आसा. हांगाच्या नाटक आनी सिनेमांतल्या कलाकारांनी संवसारभर नामना मेळयल्या.

बेसबॉल हो अमेरिकेचो राष्ट्रीय खेळ. हो खेळ अमेरिकेंतल्या लोकांमदीं बरोच प्रिय आसा. बास्केटबॉल, अमेरिकन फुटबॉल, व्हॉलीबॉल, बर्फावयलो हॉकी, टेनिस, बॉक्सिंग, गोल्फ हेय खेळ हांगाचे लोक आवडीन खेळटात. हेर बरेच खेळ हांगा आसात खेळांच्या संघटनांची आनी संस्थांचीय संख्या बरीच व्हड आसा. आंतरराष्ट्रीय खेळां सर्तींनी अमेरिकेक बरेंच म्हत्व आसा. ऑलिंपिक सर्तींनी हांगाच्या खेळगड्यांनी खासा नामना जोडल्या.

**शिक्षणः** युरोपांतल्यान हांगा आयिल्ल्या लोकांनी खाजगी शिक्षणसंस्थांवरवीं हांगा शिक्षणाची सुरवात केल्ली. ल्हव ल्हव हांगाचे शिक्षणरचणुकेक आनी तत्त्वगिन्यानाक फाव त्या प्रमाण युरोपांतली शिक्षणपध्दत बदलून अमेरिकनांनी हांगा लागू केली. हांगा सगळ्यांक शिक्षणाची एकसारकी संद मेळटा. गरीब आनी गिरेस्त हांकां एकाच प्रकारचें शिक्षण मेळटा. शिक्षण धर्मनिरपेक्ष आसा. साक्षरतेचें प्रमाण ९०% परस चड आसा.

पिरायेच्या तिसऱ्या वा चवथ्या वर्सासावन हांगा भुरग्यांक शिकूंक धाडटात. बालवाडी शिक्षण सोंपतकच मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण स वर्सां पुराय जाल्या उपरांत सुरू जाता. पूण ह्या शिक्षणाचो काळखंड सगळेकडेन एकसारको ना. कांय राज्यांनी तें चड वर्सां जाल्यार काय कडेन उण्या वर्सांचें आसता. पदवी पांवड्याचें शिक्षण दिवपी संस्था कितल्योशोच आसात. केंद्र सरकाराची असल्या संस्थांक मान्यताय आसची पडटा. हांगा खासा चलयांच्यो आनी खासा चल्यांच्यो अश्योय बऱ्योच शिक्षणसंस्था आसात. उंचल्या पांवड्यावेलें शिक्षण दिवपांत अमेरिकेन बरीच नामना जोडल्या. हांकां वेवसायीक शिक्षणाची बेस बरी सोय आसा. तंत्रगिन्यान ते कलाकुसर अशा सगळ्या मळांवयले शिक्षण अमेरिकेंत घेवंक मेळटा. संवसारांतल्या हेर देशांतले कितलेशेच विद्यार्थी शिक्षणाखातीर खासा अमेरिकेंत येतात. हांगाचें सरकार शिक्षणाच्या मळार बरोच दुडू खर्च करता.

**भाशा आनी साहित्यः** अमेरिकेंतले चडशे लोक इंग्लीश भाशा उलयतात. तीच भाशा हांगाची अधिकृत भाशा आसा. इंग्लंडांत उलयतल्या इंग्लीशीपरस हांगाची भाशा मात्शी वेगळी आसा. ह्या वेगळपणाक 'अमेरिकनिझम' अशें म्हण्टात. हे भायर हांगा विंगड विंगड वाठारांनी उलयतल्या इंग्लीशींतय थोडोभोव फरक आसा.

अमेरिकन इंग्लीश भाशेक सुमार साडेतीनशीं वर्सांची साहित्यिक परंपरा आसा. 'अमेरिकन साहित्य' हो प्रकार साहित्याच्या मळार बरेच

म्हत्वाचो आसा. संवसारीक किर्त मेळयल्ले कितलेशेच साहित्यीक अमेरिकन साहित्याच्या इतिहासांत जावन गेल्यात.

सदळपणान अमेरिकन साहित्याचे पांच काळखंड करूं येतातः

१. **वसाहतकाळांतलें साहित्यः** (१६०७ ते १७६५) ह्या काळांतली परिस्थिती साहित्यनिर्मणेखातीर फाव तशी नाशिल्ली. हांगा येवन राविल्ल्या विंगड विंगड राश्ट्रीयत्वांचे लोक कांय काळान इंग्लीश साहित्याच्या अनुकरणांतल्यान साहित्य निर्मणी करूंक लागले. सुर्वेची गद्य बरपावळ वेव्हारिक नदरेंतल्यान आनी नवे वसाहतीचें वर्णन करपी खबरांप्रमाण आशिल्ली. जॉन स्मिथ (१५८०-१६३१), विल्यम ब्रॅडफर्ड (१७२२-१७९१), जॉन विनथ्रॉप (१५८८-१६४९), टॉमस मॉर्टन आनी विल्यम बर्ड हे कांय इतिहासीक वृत्तांत बरोवपी आशिल्ले. अमेरिकन काव्याची सुरवात ॲन बॅडस्ट्रीट, मायकेल विग्लूस्वर्थ आनी एडवर्ड टेलर हाणी केली. अमेरिकेंतली खबरांपत्रांवयली बरपावळ आनी निबंध हांकां प्रेरणा दिवपी बेंजामिन फ्रँकलीन (१७०६-१७९०) हो ह्या काळांतलो सगळ्यांत म्हत्वाचो लेखक आसा. ताची 'पुअर रिचर्ड्स ऑल्मनॅक' आनी 'ऑटोबायॉग्राफी' हीं पुस्तकां चड नामनेचीं आसात.

२. **स्वतंत्रताय झुजाच्या काळखंडांतलें साहित्यः** (१७६५ ते १८१०) अमेरिकेचें स्वतंत्रताय झूज आनी उपरांत अमेरिकन संघराज्याचें संविधान हांचो बरोच परिणाम साहित्य निर्मणेचेर जालो. प्रभावी वक्ते आनी विचारवंत हांच्या भाशणांतल्यान आनी बरपावळींतल्यान अमेरिकन बौध्दिक जीणेची आनीं संविधानाची बुन्याद घातिल्ली. पॅट्रिक हेन्री (१७३६-१७९९), टॉमस पेन (१७३७-१८०९), जॉर्ज वॉशिंग्टन (१७३२-१७९९), जॉन ॲडम्स (१७३५-१८३६), थॉमस जेफर्सन (१७४३-१८२६), जेम्स मॅडिसन (१७५१-१८३६) आनी अलेक्झांडर हॅमिल्टन (१७५५-१८०४) हे ह्या काळांतले उल्लेख करपासारके विचारवंत आशिल्ले. नवे भुंयेची तुस्त आनी राजकी स्वतंत्रताय हे काव्याचे मुखेल विशय आशिल्ले. ह्या काळांत 'येल कवी' ह्या नांवान गाजिल्ल्या कवींमदीं जॉन ट्रंबल, टिमथी ड्वायट आनी जोएल बार्लो हांचो आस्पाव जाता. चार्ल्स ब्रॉकडेन ब्रावन हो कादंबरीकार आनी रॉयल टायलर आनी व्हिल्यम डनलॅप हे नामनेचे नाटककार ह्याच काळांत जावन गेले.

३. **राश्ट्रीय प्रबोधनाचो काळखंड (१८१० ते १८६५)**: अमेरिकन वसाहतींच्या विस्तारकाळांत उद्येगधंदे, शिक्षण संस्था, खबरांपत्रां हांची नेटान वाड जाली. ह्या काळखंडांतल्या साहित्याची प्रेरणा स्वच्छंदतावादी आशिल्ली. राश्ट्रीयता, प्रादेशिकता, लोकसाहित्याचो मोग, व्यक्तीवाद ह्या सारक्या भावनांतल्यान ह्या काळखंडांतलें साहित्य निर्माण जालें. राल्फ वॉल्डो इमर्सन (१८०३-१८८२), अब्राहम लिंकन (१८०९-१८६५) आनी हेन्री डेव्हिड थोरो हांचे बरपावळींतल्यान आनी भाशणांतल्यान व्यक्तिस्वतंत्रताय, आदर्शवाद, सैम आनी मनीस हांचेमदले सबंद हांचेर विचार मांडल्यात. ताणी आपल्या काळांतल्या लेखकांचेर बरोच परिणाम केलो. वॉशिंग्टन अर्व्हिंग (१७८३-१८५९) हो कथाकार, जेम्स फेनिमोर कूपर (१७८९-१८५१) हो कादंबरीकार आनी विल्यम ब्रायंट हो कवी (१७९४-१८७८) हाणी बरीच नामना मेळयली. हर्मन मेलव्हिल (१८१९-१८९१) हाची 'मॉबी डिक' ही कादंबरी, एडगर ॲलन पो (१८०९-१८४९) हाच्यो भंयकथा आनी साहित्य, हॅरिएट बीचर स्टो (१८११-१८९६) हिची 'अंकल टॉम्स कॅबिन' ही निग्रो जीणेवयली कादंबरी, नथॅन्यल हॉथॉर्न हाची 'द स्कारलेट लेटर' हें साहित्य संवसाभर किर्त मेळोवंक पावलें. वॉल्ट व्हिटमन (१८१९-१८९२) आनी निग्रो गुलामगिरी आड विचार उक्तावपी जॉन व्हिटीअर हे कवी, लाँगफेलो (१८०७-१८८२), ऑलिव्हर वॅंड्ल होम्स (१८०९-१८९४) हेय लेखक नांव घेवपासारके आसात.

४. **यादवी झुजाउपरांतचो काळ (१८६५-१८९०)**: यादवी झुजांतल्यान (१८६१-१८६५) अमेरिकन जिवीत बरें बदललें, यंत्रयुगांची सुरवात जाली. उद्येगीकरणाचो नेट वाडलो. पैसो आनी सत्ता हीं ध्येयां मुखेल जावन सरंजामशाहीचे आनी स्वच्छंदतावादाचे आदर्श फाटीं पडले. समाजीक आनी अर्थीक परिस्थितीची आनी प्रादेशिकतेची जाणीव वाडून बरपावळींत एक वेगळेपण येवंक लागलें.

मार्क ट्वेन (१८३५-१९१०), हेन्री जेम्स (१८४३-१९१६) हे ह्या काळांतले नामनेचे लेखक. एमिली डिकिन्सन (१८३०-१८८६) ही कवयित्री ह्या काळांत बरीच गाजली.

५. **आर्विल्लो काळखंड (१८९० फुडें)**: अमेरिकन साहित्यांत ह्या काळांत नेटान उदरगत जावंक सुरवात जाली. मनीस आनी लोकशाय, मनीस आनी परंपरा, मनीस आनी ताच्या भोंवतणचो समाज हांच्यामदल्या संबंदाविशींचे प्रस्न साहित्यांतल्यान मुखार येवंक लागले. प्रादेशिकतेचे विचार फाटीं पडूंक लागले. कथा, कादंबरी, नाटक ह्या मळांचेर एक नवें वारें येवंक लागलें.

***कादंबरीः*** ओडोर ड्रायझर (१८७१-१९४५), अप्टन सिंक्लेअर (१८७८-१९६८). हांच्यो कादंबऱ्यो अमेरिकन लोकांमदी तोखणायेच्यो थारल्यो. मध्यमवर्गीय समाजाचें चित्रण करपी ल्यूईस सिंक्लेअरच्यो (१८८५-१९५१) 'मेन स्ट्रीट', 'बॅबिट', 'ॲरोस्मिथ' ह्यो कादंबऱ्यो उल्लेख करपासारक्यो आसात. १९५४ त नोबेल इनाम मेळोवपी अर्नेस्ट हेमिंग्वे (१८९८-१९६१) हाणे मनशाचें मानसशास्त्रीय चित्रण आपल्या साहित्यांतल्यान बरेतरेन केलां. दुसरो नोबेल इनाम मेळोवपी लेखक विल्यम फॉकनर (१८९७-१९६२) हांचेंय साहित्य बरेंच गाजलें. पर्ल बक (१८९२-१९७३), जॉन स्टायनबॅक (१९०२-१९६८) आयझेक बाशेविक सिंगर हांकाय नोबेल इनाम फाव जालां. फ्रान्सिस स्कॉट फिट्जेरल्ड (१८९६-१९४०), टॉमस वुल्फ (१९००-१९३८) हेय अमेरिकेंतले म्हान कादंबरीकार. लिलियन स्मिथ, रिचर्ड रायट, जेम्स बाल्डविन, राल्फ एलिसन हांच्या साहित्यांतल्यान निग्रो लोकांच्या प्रस्नांचें आनी परिस्थितीचें दर्शन घडटा. सद्याच्या काळांत नॉर्मन मेलर, सॉल बेलो, जे. डी. सॅलिंजर, जेम्स जोन्स, फिलीप रॉथ हे लेखक उल्लेख करपासारके आसात.

***कथाः*** कथेच्या मळार ओ. हेन्री (१८६२- १९१०), जेम्स थर्बर (१८९४-१९६१) हाणी बरीच नामना मेळयल्या. कादंबरी बरोवप्यांनीय बऱ्याच प्रमाणांत कथा बरपावळ केल्या.

***काव्यः*** कार्ल सँडबर्ग (१८७८-१९६७), एझरा पावंड (१८८५-१९७२) हाणी कवितेच्या मळार आर्विल्ल्या काळांत एक नवो प्रवाह हाडलो. सूचक अभिव्यक्तीचें बौध्दिक काव्य टी.एस्. इलियट (१८८८-१९६५) हांणे रचलें. ई. ई. किमींग्स (१८९४-१९६२), विल्यम कार्लॉस विल्यम्स (१८८३-१९६३), वॉलेस स्टीव्हन्स (१८७९-१९५५) हे विसाव्या शतमानांतले म्हत्वाचे अमेरिकन कवी आसात. रॉबर्ट फ्रॉस्ट (१८७४-१९६३) हाच्यो गांवगिऱ्या जीणेचें वास्तव, सादें आनी सोबीत वर्णन आनी खोल तत्वदर्शन सांगपी कविता संवसारभर गाजल्यात. सिल्व्हीया प्लॅथ, ॲलन गिन्सबर्ग, रॉबर्ट लोएल, कार्ल शापीरो, डेल्मॉर श्वार्ट्झ हे आर्विल्ल्या काळांतले हेर अमेरिकन म्हत्वाचे कवी आसात.

**नाटकः**अमेरिकन नाटक आनी रंगमाची हांची उदरगत विसाव्या शतमानांत जाली. यूजिन ओनील (१८८८-१९५३) हाणे अमेरिकन नाट्य साहित्याची बुन्याद मारपाच्या कामांत म्हत्वाचो वावर केलो. ताका नोबेल इनामय फाव जाल्लें. ॲल्मर रायस (१८९२-१९४९), टेनेसी विल्यम्स आनी आर्थर मिलर हे नाटककार संवसारभर नामनेचे आसात.

**म्हत्वाचीं थळां:** सैमीक सोबीतकाय, इतिहासीक थळां, आर्विल्ली बांदावळ, संग्रहालयां ह्या गजालींक लागून अमेरिकेंत कितलेशेच पर्यटक येतात.

न्यूयॉर्क बंदरांतलो नामनेचो स्वतंत्रताय देवीचो पुतळो, एम्पायर स्टेट बिल्डींग, संयुक्त राश्ट्रांचें कार्यालय, क्रिस्टलर बिल्डींग ह्यो नामनेच्यो आसात. कॅनडा आनी अमेरिका हांचे शीमेचेर नामनेचो नायगारा धबधबो आसा. येलोस्टोन, योसेमिटी, सीक्वाया, ऑलिंपिक, रॉकी माउंटन हीं

उपवनां, समुद्रथरापरस सकयल आशिल्ली डॅथ व्हॅली, आनी हेरकडेन आशिल्ले मनभुलोवणे सैमीक चमत्कार पळोवपासारके आसात.

राजधानी वॉशिंग्टन हें जगांतलें एक सोबीत शार. उदेंत वाठारांत विंगड विंगड उद्योगधंद्यांक लागून नामनेक पाविल्लीं बॉस्टन, शिकागो, बफालो, डिट्रॉइट, क्लीव्हलंड, पिट्सबर्ग, फिलाडेल्फिया, बॉल्टिमोर, न्यू ऑर्लिअन्स, रिचमंड, मियामी हीं शारां आसात.

अस्तंत वाठारांतय सॅन फ्रांसिस्को, लॉस ॲंजलीस, सीएटल हीं म्हत्वाचीं शारां आसात.

देशांतल्या न्हंयांचेर बांदिल्लीं हूव्हर, शास्ता, ग्रँड कूली ही धरणां टेनेसी देगण प्रकल्प, ईअरी कालवो, सेंट लॉरेन्स सीवे, अमेरिकेच्या मालकेचो पनामा कालवो हीं संवसारांतलीं म्हत्वाचीं बांदकामां आसात. दक्षिण डाकोटा राज्यांत रश्मोर पर्वताचेर वॉशिंग्टन, जेफरसन, थिओडोर रुझवेल्ट आनी लिंकन हांचे पुतळे कोंरातिल्ले आसात. हीं शिल्पां इजिप्तांतल्या पोरन्या शिल्पांकडने तुळा करपासारकीं आसात.

हे भायर अलास्का हांगाचे 'एस्किमो' आनी टोटेम पोल्स, ॲरिझोना, न्यू मॉक्सिकोंतल्यो पोरने मनीससंस्कृतायेचे अवशेश, नवाजो, प्वेब्लो, होपी हीं आदिवासींची ठिकाणां हांकां बरेच सांस्कृतिक म्हत्व आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद- अमेरिका खंड.

**अमोनिया:** एक रसायनीक संयुग (compound). सूत्रः $NH_3$. उग्र वास आशिल्लो रंगहीन वायू. हाच्या संयुगांची माहिती मनशाक पूर्विल्ल्या काळासावन आसा. इ.स. प. चवथ्या शतमानांत ईजिप्तांतले लोक उंटाचें शेण लासतकच जी काजळी तयार जाता तिचेपसून अमोनियम क्लोराइड (नवसागर) तयार करताले. तें तयार करपाची सुवात ज्यूपिटर अमोनच्या देवळाकडेन आशिल्ली. देखून, त्या लवणाक 'साल अमोनियाक' म्हळयार 'सॉल्ट ऑफ अमोन' अशेंय म्हण्टाले. त्या काळांत अमोनियम क्लोराइड बाजारांत विकतें मेळटालें. तें उंटाचें शेण वा मूत आनी मीठ एकठांय तापोवन तयार करताले. पूर्विल्ल्या भारतांत लेगीत शेणखत भाजून वा विटांचे भाट्टेंतल्यान तें मेळयताले.

१७७४ वर्सा प्रीस्टली हाणे नवसागर आनी चुनकळी हांचें ऊर्ध्वपातन (distillation) करून वायुरूप अमोनिया तयार केलो. ताचे पयलीं अमोनिया हें स्वतंत्र संयुग आसा म्हूण कोणाक खबर नाशिल्लें. प्रीस्टली हाणे ताका 'alkaline air' अशें नांव दिल्लें. १७८५ त अमोनियाचें विजेचे किटीन अपघटन (decomposition) करुन ताचें रसायनीक संघटन $NH_3$ आसा अशें बॅर्तेलो हाणे सिध्द केलें. वातावरणांत आनी पावसाच्या उदकांत अमोनियाचें कार्बोनेट आसता. जनावरांचे आनी वनस्पतींचे नायट्रोजनयुक्त घटक कुसतना अमोनिया वायू तयार जाता. शेताचे मातयेंत, दर्याच्या उदकांत, जनावरांच्या मुतांत आनी ज्वालामुखींतल्यान भायर येवपी वायूंत लेगीत अमोनिया आसता.

**गुणधर्मः** हवेपरस ल्हव, गोठणबिंदू (Freezing Point): -७८° से. उकळ बिंदू (Boiling Point): —३३° से., क्रांतीक तापमान (Critical temperature): १३३° से. सामान्य तापमानांत दाब दिवन ह्या वायूक सहज द्रवरुप करुं येता. अमोनिया उदकांत सामको विद्राव्य (soluble) आसता. सामान्य दाब आनी तापमान २०° से. आसल्यार उदकाच्या भाराच्या ३३.१% इतल्या प्रमाणांत तो विरगळटा. उदकांत अमोनिया विरगळटना बरीच उश्णता तयार जाता. हवेंत तो सहज जळना, पूण ऑक्सिजनांत नेटान जळटा. ताची वात हळडुवी आसता. हवेचीं आनी ताचीं कांय प्रमाणातलीं मिश्रणां स्फोटक आसतात. सामान्य तापमानांत अमोनिया थीर आसता पूण उच्च तापमानांत ताचें अपघटन (decomposition) जावपाक लागता आनी घटक-मुलद्रव्यां मुक्त जावपाक लागतात. ज्या पृष्ठाकडे वायूचो संपर्क येता त्या पृष्ठाच्या स्वरुपाचेर अपघटनाचो वेग पातयेवन आसता. अमोनियाचेर कंवचेचो कसलोच परिणाम जायना. पूण चिनी माती, तिखें, निकेल, जस्त हांचेकडेन संपर्क आयल्यार मात अपघटनाचो वेग खूब वाडटा.

**विक्रियाः** (Reactions): १. अमोनिया आनी ऑक्सिजन हांची विक्रिया जावन नायट्रोजन आनी उदक तयार जाता.

२. कॉपर ऑक्साइडसारकीं हेर ऑक्साइडां तापोवन तांच्यावयल्यान वायुरुप अमोनिया सोडल्यार विक्रिया जाता आनी अमोनियापसून नायट्रोजन आनी उदक तयार जाता. ही विक्रिया उच्च तापमानांत घडटा. पूण पोटॅशियम परमँगनेटसारकीं बळिश्ट ऑक्सिडीकारक संयुगां आसल्यार हीच विक्रिया सामान्य तापमानांत जाता.

$$2NH_3+2KMnO_4 \rightarrow 2KOH+2MnO_2+2H_2+2H_2O+N_2$$

३. अमोनियाची आनी क्लोरिनची विक्रिया दोन तरांनी जाताः

अ) अमोनिया चड प्रमाणांत आसल्यार नायट्रोजन विभक्त (discrete) जाता.

आ) क्लोरिन चड प्रमाणांत आसल्यार नायट्रोजन ट्रायक्लोराइड ($NCl_3$) हें हळडुव्या रंगाचें स्फोटक तेल तयार जाता.

४. अमोनिया क्षारकीय (basic) आशिल्ल्यान अम्लाकडेन विक्रिया जावन ताचीं लवणां (salts) तयार जातात.

५. तापिल्ल्या धन विद्युत् भारित धातूकडेन (positively charged metal) अमोनियाची विक्रिया जावन सोडामाइड ($NaNH_2$), मॅग्नेशियम नायट्राइड ($Mg_3N_2$) हीं संयुगां तयार जातात.

६. कांय धातूंचीं लक्षणां अमोनिया शोषून घेतात आनी तांचीं धन (positive) अमाइनां तयार जातात. देखीकः $CaCl_2.8NH_3$. हीं तापयतकच मात तांच्यांतलो अमोनिया वायू वता.

७. अमोनियम हायड्रॉक्साइड ($NH_4OH$) हो अमोनियाचो उदकांतलो क्षारीय विद्राव. हो दुबळो क्षार (अल्कली) आशिल्ल्यान अम्लांचें उदासिनीकरण (neutralization) करून ताचीं $NH_4^+$ आयन आशिल्लीं लवणां तयार करपाक वापरतात..

देखीकः $NH_4OH+HCl \rightarrow NH_4Cl+H_2O$

८. हवा आनी अमोनिया (१०%) हें मिश्रण तापयल्ल्या प्लॅटिनमसारक्या उत्प्रेकावयल्यान (catalyst) धाडल्यार नायट्रीक ऑक्साइड (NO) मेळटा आनी ताच्यापसून नायट्रिक अम्ल तयार करतात.

९. कार्बनी रसायनशास्त्रांतल्या (Organic Chemistry) ॲमोनो-विच्छेदनाखातीर अमोनियाचो खूब उपेग जाता.

**कृतीः** प्रयोगशाळेंत थोड्या प्रमाणांत अमोनिया असो तयार करतातः-

अ) अमोनियाचें कसलेंय लवण वा क्षार एकठांय तापोवन; देखीकः

$$Ca(OH)_2 + 2NH_4Cl \rightarrow 2NH_3 + 2H_2O + CaCl_2$$

| कॅल्शियम हायड्रॉक्साइड | अमोनियम क्लोराइड | अमोनिया | उदक | कॅल्शियम क्लोराइड |
|---|---|---|---|---|

भायर आयिल्लो वायू चुनकळींतल्यान सोडून सुको करतात.

आ) सापेक्षता अदीक धनविद्युत् नायट्राइडांचें उदकान अपघटन करुन, देखीक-

$$Mg_3N_2 + 6H_2O \rightarrow 3Mg(OH)_2 + 2NH_3$$

| मॅग्नेशियम | उदक | मॅग्नेशियम हायड्रॉक्साइड | अमोनिया |
|---|---|---|---|

(मॅग्नेशियम हायड्रॉक्साइड)

**उद्येगिक उत्पादनः** फातराच्या कोळशापसून कोक तयार करपाचे पध्दतींत अमोनिया हो उपपदार्थ मेळटा. उद्येगधंद्यांत वापरतात त्या अमोनियापैकी असल्या अमोनिया-उत्पादनाचें प्रमाण साप थोडें आसता. देखून संश्लेषणान (synthesis) अमोनिया तयार करपाच्यो पध्दती वापरतात. अनुकूल तापमान आनी दाब दवरून, उत्प्रेरकाच्या सांगाता, हायड्रोजन आनी नायट्रोजन हांचो संयोग घडून अमोनिया तयार जाता असो सोद हाबर हाणे लायलो. हे पध्दतीक 'हाबर पध्दत' अशें म्हणटात. बॉश हाणे तातूंत सुदारणा केल्यो म्हूण अमोनियाचें फायदेशीर वेपारी उत्पादन शक्य जालें. नायट्रोजन आनी हायड्रोजन ह्या वायूंचें १:३ ह्या प्रमाणांत मिश्रण करप, मिश्रण शुध्द करप आनी योग्य उत्प्रेरकांच्या

सांगातांत आनी तापमानांत त्या मिश्रणाचेर दाब दिवप हें संश्लेषणान अमोनिया तयार करपाचे पध्दतीचें सार आसा. तिख्याचीं वा हेर धातूंची ऑक्साइडां उत्प्रेरक (catalyst) म्हूण वापरतात.

संश्लेषणान अमोनिया तयार करपाखातीर लागपी हायड्रोजन आनी नायट्रोजन हे वायू अशे मेळयतात:

१. जळटा आसतना तापून धवो जाल्ल्या कोकच्या निखाऱ्याच्या थरांतसून वाफ सोडटकच $C+H_2O \rightarrow CO+H_2$ अशी विक्रिया जाता आनी पाणवायू (Water Gas) तयार जाता.

२. तसल्याच कोकच्या थरांतल्यान हवा सोडटकच कोकांतली कार्बनाची आनी हवेची $2C+O_2+4N_2 \rightarrow 2CO+4N_2$ अशी विक्रिया जावन 'प्रोड्यूसर वायू' तयार जाता.

वयर दिल्ल्यो दोनूय विक्रिया एकठांय घडोवन हाडल्यार अर्ध-पाणवायू (Semi Water-Gas) मेळटा. तातूंत सुमार ५०% नायट्रोजन, २०% हायड्रोजन आनी ३०% कार्बन मोनॉक्सायड आसता.

३. हुनहुनीत उत्प्रेरकावयल्यान वाफ, कार्बन मोनॉक्सायड आनी हायड्रोजन हांचें मिश्रण सोडटकच $CO+H_2+H_2O \rightarrow CO_2+2H_2$ अशी विक्रिया जावन कार्बन डाय-ऑक्साइड आनी हायड्रोजन हांचें मिश्रण मेळटा. हाका 'बॉश-विक्रिया' अशें म्हणटात.

**अमोनिया सांठोवप आनी हाताळप:** व्हडल्या उद्येगधंद्यांत उदका विरयत अमोनिया वापरप सोयीस्कर आनी काटकसरीचें आसता आनी तो खास तयार केल्ल्या तिख्याच्या सिलिंडरांत, टांकयांनी वा 'हॉर्टोनोस्फीयर' नांवाच्या वाटकुळ्या टांकयांनी सांठोवन दवरतात. अमोनिया वाफेच्या संपर्कान दोळ्यांक बाधा जाता आनी तो स्वासाबरोबर चड प्रमाणांत भितर गेल्यार घुस्मटमार जावंक शकता. देखून, अमोनिया वा ताचो विद्राव सांठयल्लीं पात्रां जतनाय घेवन, आंगार ताचो फवारो उसळचोना अशे रितीन भरचीं पडटात. अमोनिया पेट घेना पूण कांय प्रमाणांत हवेंत मिसळटकच ताचें आनी हवेचें मिश्रण स्फोटक जाता. देखून अमोनियाच्यो टांकयो आनी हौद जतनाय घेवन वापरतात.

**उपेग:** वट्ट उत्पादनाच्या सुमार ६५% अमोनिया सारें तयार करपाखातीर वापरतात आनी सुमार ३०% उद्येगीक उत्पादनाखातीर खास करून स्फोटक पदार्थ तयार करपाखातीर खर्च जाता. तातूंतल्या चडशा संयुगांत नायट्रोजन आसता आनी तो अमोनियापसून तयार करतात. देखीक: नायट्रोसेल्युलोज, डायनामाइट, खणकामांत वापरपाचे सुरुंग, सोडियम कार्बोनेट तयार करपाखातीर, क्युप्रा-अमोनियम, रेशीम, तरांतरांचीं सुतां (धागे) रंगोवपाखातीर वापरपाचीं रंजक द्रव्यां, वखदां, प्लॅस्टिक, नायलॉन, संश्लेषित रेझिनां आदी तयार करपाच्या प्रक्रियांखातीर लुगटाचेर संस्कार करपाखातीर, रबर तयार करपाच्या प्रक्रियांत लागपी द्रव्यां करपाखातीर अमोनिया वापरतात. तो सहज विघटन जाता म्हूण हुनहुनीत उत्प्रेरक वापरुन हायड्रोजन मेळोवपाखातीर ताचो उपेग करतात. हो हायड्रोजन धातूंचें वितळजोडकाम (welding) करपाखातीर वापरतात. वखदां तयार करपाखातीर अमोनिया वापरतात. उदका-पुरवण शुध्द करपाखातीर क्लोरिनावांगडा अमोनिया वापरतात. उजवाडाचो उपेग करून चित्रांच्यो प्रती काडपाखातीर तशेंच छायाचित्रणाच्या प्रक्रियांत अमोनियाचो वापर करतात. प्रयोगशाळांत आनी उद्येगधंद्यांत अमोनिया जलीय विद्रावाच्या स्वरूपांत वापरतात.

**अमोनियांचीं लवणां** (Ammonium Salts): अम्लांची अमोनियाकडेन वा ताच्या उदकाची विद्रावाकडेन विक्रिया जावन अमोनियाचीं लवणां तयार जातात. ह्या लवणांचे वेगवेगळे उपेग आसात. अमोनियाचीं मुखेल लवणां अशीं: अमोनियम ॲसिटेट, अमोनियम कार्बोनेट, अमोनियम क्लोराइड, अमोनियम नायट्राइड, अमोनियम नायट्रेट, अमोनियम फॉस्फेट, अमोनियम सल्फेट, हायड्रॅझिन.

- कों. वि. सं. मं.

**अयोध्या-१ :** उत्तर प्रदेशांत फैजाबाद रेल्वे स्थानकासावन ६ किमी. अंतराचेर ईशान्येक शरयू (घाग्रा) न्हंयचे दक्षिण देगेर हें शार भग्नावस्थेंत आसा. अक्षवृत्तीय विस्तार २६° ४८' उत्तर आनी रेखावृत्तीय विस्तार ८२° १२' उदेंत. हिंदू, बौध्द आनी जैन धर्मीयांचें एक नामनेचें तीर्थक्षेत्र आनी पूर्विल्ल्या कोशल देशाची राजधानी. शाकेत, साकेत, कोशल, नंदिनी, अयुधा, अयोज्झा, विनिता, सुकोशल, रामपुरी, रामभूमी, इक्ष्वाकुभूमी, सोगेद, विशाखा अशीं तरेकवार नांवां आशिल्ले अयोध्या नगरीक 'अवध' वा 'औध' अशाय नांवांनी वळखतात.

'मनुना मानवेन्द्रेण सा पुरी निर्मिता स्वयम्' अर्थ- मानवश्रेष्ठ मनून ती नगरी स्वता निर्माण केली अशें वाल्मिकी-रामायणांत म्हळां. मनूचो पूत इक्ष्वाकु अयोध्येच्या सिंहासनाचेर बसलो. फुडें प्रभु रामचंद्राच्या सत्ताकाळांत आयोध्येची बरीच उदरगत जाली. वाल्मीकीन त्या काळांतले अयोध्येचें वर्णन अशें केलां:

'कपाटतोरणवतीं सुविभक्तान्तरापणाम्।
सर्वयन्त्रायुधवतीमुषितां सर्वशिल्पिभिः॥
सूतमागधसम्बाधां श्रीमतीमतुलप्रभाम्।
उच्चाट्टालध्वजवतीं शतघ्नीशतसङ्कुलाम्॥

(वाल्मिकी रामायण १.५,१०-११)

अर्थ- दारां आनी तोरणां आशिल्ली, भितल्ले बाजारपेठेची मांडावळ वेवस्थित आशिल्ली, सगळीं यंत्रां आनी आयुधां आशिल्ली, सगळे तरेचे कारागीर जंय रावतात अशी, सूत आनी मागध हांची वसती आशिल्ली, गिरेस्त, जिचे प्रभेक उपमा ना अशी, जंय ऊंच इमारती आनी तांचेर बावटे धोलतात आनी जंय शेंकड्यांनी नाळी आसात, अशी ती अयोध्या नगरी आशिल्ली.

अयोध्येची व्हडविकाय संत तुलसीदासान अशी सांगल्या:-

जद्यपि सब बैकुंठ बखाना
वेदपुराणविदीत जगु जाना।
अवध सरिस प्रिय मोहि न सोऊं
यह प्रसंग जानै कोऊ कोऊ॥

अर्थ- वेद-पुराणांनी जरी वैकुंठाचें कितलेंय वर्णन केलें तरीकूय अयोध्येसारकें दुसरें खंयचेंच क्षेत्र म्हाका प्रिय ना, ही गजाल सगळ्यांक खबर आसा.

अयोध्या नगरी कोसल देशांत आसून हिची लांबाय बारा योजनां आनी रुंदाय तीन योजनां (१ योजन= ४ कोस) इतली आसा अशें वाल्मिकी रामायणांत सांगलां. ती सुदर्शन चक्राचेर वसल्या अशें स्कंदपुराणांत आसा. भूतशुध्दितत्व ह्या ग्रंथाच्या मताप्रमाण ती रामाच्या धनुश्याच्या तोंकार थीर आसा. कथासरित्सागरांत अयोध्येचे खूब उल्लेख आयल्यात.

इक्ष्वाकु वंशाचे राजा माधातृ, हरिश्चंद्र, सगर, भगीरथ, दिलीप, खट्वांग, रघु, दशरथ आनी राम हे पराक्रमी सम्राट अयोध्येंत जावन गेले. प्रभू रामाचे पूत लव आनी कुश हाणी आपापलीं राजपाटणां अनुक्रमान श्रीवस्ती आनी कुशावती हांगा हालयिल्ल्यान अयोध्येक वायट अवस्था प्राप्त जाली. सूर्यवंशाच्या ऋषभ राजान अयोध्येचें पुनर्वसन केलें.

आयची अयोध्या विक्रमादित्यान वसयल्या. एकदां ताच्या सैन्याचो तळ शरयूच्या कांठार आशिल्लो. थंय तपाक बशिल्ल्या योगी संन्याशाकडल्यान ताका हांगाच पयलीं प्रभू रामाची अयोध्या आशिल्ली अशें समजलें. हें कळटकच ताणे त्या प्रांताचें पुनरुज्जीवन करपाचें थारायलें आनी थंय देवळां, सरोवरां, बांयो हे सारकी बांदावळ केली. गुप्तकाळांत अयोध्येक राजधानीचो पांवडो मेळिल्लो. अयोध्येचेर मुसलमान सम्राटांनी खूब घुरयो घाल्यो. सन ११९३ वर्सा शहाबुद्दीन घोरी हाणे हो प्रांत जिखलो. तेन्नासावन १८५६ वर्सामेरेन ब्रिटिशांचे सत्तेखाला पाव म्हणसर हो प्रांत मुसलमानांकडेन आशिल्लो.

महाभारतांत 'पुण्यलक्षणा' असो अयोध्येचो उल्लेख आसा. अयोध्येंत महादेवाचीं आनी विष्णूचीं मंदिरां आसात. सीतारसोई आनी हनुमानगढी हीं पूर्विल्लीं देवळां आसात. अठराव्या आनी एकुणिसाव्या शेंकड्यांत

बांदिल्लीं नागेश्वरनाथ आनी दर्शनसिंहमंदीर पळोवपासारकीं आसात. तशेंच कनकभवन, रामजन्मस्थान, रत्नमंडप, स्वर्गद्वार, गुप्तार घाट, रामघाट, लक्ष्मणघाट, जनौरा, गोप्रतारतीर्थ हीं हिंदु धर्मीयांची थळां आनी मणिपर्वत, सुग्रीवपर्वत, कुबेरपर्वत, दत्तूनकुंड हीं बौध्द धर्मीयांची थळां आनी तीर्थंकरांची मंदिरां (जैन धर्मीयांची तीर्थस्थानां) हीं ओडलायणी थळां खूब सोबीत आसात.

अयोध्येची सासाय खूब व्हड. गोस्वामी तुलसीदासान आपलो 'रामचरितमानस' ग्रंथ अयोध्येंत उजवाडाक हाडलो.

'अयोज्झा' गांवांत गौतम बुध्द दोन खेपो येवन गेल्लो अशें बौध्दवाङमयांत म्हळां. बुध्दाच्या काळांत अयोध्येचें उपनगर साकेत समृध्दावस्थेंत आशिल्लें. ह्यूएनत्सांगाच्या भोंवडे वर्णनांत हांगा अशोकस्तूप, मठ आनी मंदिरां आशिल्लीं आनी २० बौध्द मंदिरां ३००० बौध्द भिक्षु रावताले असो उल्लेख आसा. जैनाच्या ऋषभदेव, अजितनाथ, अभिनंदन, सुमतिनाथ आनी अनंतनाथ ह्या तीर्थंकरांचो जल्म अयोध्येंत जाल्लो. नामनेचो जैन सम्राट भरत, सगर, मधवा, सनत्कुमार आनी सुभौम हांची राजधानी हांगाच आशिल्ली. दादल्यांक ७२ आनी बायलांक ६४ विद्या शिकोवपाची वेवस्था आशिल्लें जैन विद्यापीठ हांगा इ.स. पयलीं ६०० वर्सां आशिल्ल्याचों हेमचंद्रसूरी हाणे उल्लेख केला. बाबरान अवधच्या मंदिराची मशीद केली.

हांगा वर्साक तीन जात्रा भरतातः- मार्च/ एप्रिल (चैत्र) म्हयन्यांत, जुलय/आगस्ट (आशाढ) म्हयन्यांत आनी ऑक्टोबर/नोव्हेंबर (आश्विन) म्हयन्यांत. जात्रेक लाखांनी भक्त लोक जमतात आनी अयोध्या नगराक एका व्हड तीर्थस्थानाचे स्वरुप प्राप्त जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**अयोध्या-२ :** थायलंडांत १३५० ते १६५० मेरेन राजधानी आनी सांस्कृतिक केंद्र म्हूण नामना आशिल्लें शार. सयामी नांव 'अयुधिया' आनी पूर्विल्ले नांव 'द्वारवती'. आग्नेय आशियांतल्या वेगवेगळ्या प्रदेशांकडेन भारताचो सांस्कृतिक संपर्क इसवी सनाच्या सुर्वेक सुरू जालो. इ.स. चवथ्या शेंकड्यांत पूर्विल्ल्या इंडोचायनांत हिंदू राज्यां स्थापन जावन ताणी संस्कृत ही अधिकृत भाशा म्हूण आपणायली. द्वारवती ह्या नांवान पूर्विल्ल्या काळांत नामना आशिल्लो सध्याचो सयामचो (थायलंड) प्रदेश पूर्विल्ल्या कम्भुज (ख्मेर) साम्राज्याचो एक भाग आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**अय्यनारः** दक्षिण भारतांतलो, खास करुन तमिळनाडू राज्यांतलो एक थळावो देव. त्या देवाक अय्यप्प अशेंय म्हूण पाचारतात. केरळांत ताका शास्ता म्हणटात. द्रविड आदिवासी ताका आपलो नियामक वा नेम धारवपी मानतात. तमिळनाडूंतल्या दरेका गांवांत ह्या देवाक खाशेलो जागो आसता. पाण्ट्यांचेर वा ऊंच रूखाचे सांवळेंत ताच्या नांवान फातर बसयिल्लो आसता. कांय गांवानी चावडेर ताच्यो मूर्ती बसयिल्ल्यो आसतात. ह्या देवाक भुताखेतांचो मूखेली समजतात. तो मध्यानरातीक घोड्याचेर बसून आपल्या भूतगणांबराबर भोंवपाक भायर सरता. ताच्या हातांत तरसाद आसता. ताची वाट जो आडायता, ताका तो जिवो मारता. दुयेंसांतल्यान बरे जावपाखातीर लोक ताका आंगवण करतात आनी चिकणमातयेचे हत्ती, घोडे, रेडे, सुणीं तयार करून देवाक ओंपतात. वयल्याप्रमाण आंगवण पावयतात. दुकळ पडटा तेन्ना ताची घोड्याचेर बसयिल्ली मूर्त तयार करतात आनी मिरवणूक काडटात. घरांघरांतल्यान शीत जमोवन देवाक निवेद्य करतात रातीच्या वेळार लोक ताच्या जाग्याम्हर्यांत वचनात. हाचें स्वरूप, अधिकार आनी कार्य पळेल्यार महाराष्ट्रांतल्या खंडोबा आनी ब्रह्मभूत ह्या दैवतांलागीं ताचें लागींचें नातें दिसता. केरळांत ताका वनदेव म्हणटात. ह्या वनदेवाची वा रानाच्या राजाची मुखेल सुवात साबरीमेलै (शबरीमलै) जावन आसा.

गोंयच्या सिध्द, पायक, बेताळ, देंवचार ह्या देवांच्या वर्णनाकडेन आनी तांच्या पूजाविधीचे चालीरितीकडेन अय्यनाराचें खूब सारकेंपण दिसता. चड करून पायक देवाकडे ताचो लागींचो संबंद आसुंये.

पायकदेव रातचो घोड्यार बसून गांव राखता. ताच्या वांगडा रातचो भुतां-खेतांचो मेळ आसता. जर कोणूय ह्या मेळाच्या आड येत, ताका तो श्राप दिता अशी आख्यायिका चलता. जेन्ना गोरवांक कसल्याय वायट रोगाची लागण बादता वा गांवांत दुकळ पडटा, तेन्ना गांवचो लोक संकश्टांतल्यान सोडयल्यार मातयेचे घोडे करून देवाक घालता अशी आंगवण करतात. गूण पडटकच ही आंगवण पावयतात. वर्सांतल्यान एक फावट घरांघरांतल्यान भात जमोवन पुजारी गांवाक जेवण घालता. एक खासा उल्लेख करपासारकी गजाल म्हळ्यार सिध्दापायकाच्यो देवळ्यो अय्यनाराभशेन उदकाच्या पाण्ट्यालागीं, वडाच्या रुखापोंदा वा व्हड झाडाच्या मुळांत, दोंगुल्ल्यांच्या माथ्यार दिश्टी पडटात. गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांनी सिध्द-पायकाच्यो बऱ्योच देवळ्यो दिश्टी पडटात.

- कों. वि. सं. मं.

**अय्या, त्रिविक्रम दत्तारामः** (जल्मः २३ मार्च १९३७, बेलवाडो- पैंगीण- काणकोण).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मराठींतल्यान माध्यमिक मेरेन शिक्षण घेतलां. नॅशनल कॉंग्रेस गोंय हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा गोविंद नारायण प्रभुदेसाय हाच्या फुडारपणाखाल ताणे सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो. उपरांत प्रादेशीक लश्करी दंडाधिकाऱ्यामुखार ताची चवकशी जावन ताका चार वर्सां बंदखणीची खर ख्यास्त फर्मायली. तशेंच दर दिसा ३० इस्कूद ह्या प्रमाण दोन वर्सां दंड भरूंक लायलो वा दंडभरपायेबदला दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिली. ३१ डिसेंबर १९५७ ह्या दिसा ताची बंदखणीतल्यान सुटका जाली. १९७२ भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**अरबस्तानः** आशिया खंडाच्या नैऋत्य तोंकावेलो व्हड द्वीपकल्प. हाचे दक्षिणेक अरबी दर्या आनी एडनचें आखात **(Gulf)**. अस्तंतेक तांबडो दर्या आनी सिनाय द्वीपकल्प, उदेंतेक इराणचें आखात, आग्नेयेक ओमानचें आखात आनी उत्तरेक जॉर्डन आनी इराक हे देश आसात. उत्तरेवटेन अरबस्तानचें वाळवंट खंय सोंपता आनी सिरिया-इराकचें वाळवंट खंय सुरू जाता हें सांगप कठीण आसलें तरी कुवेत आनी सौदी अरेबियाच्या उत्तर शीमेमेरेन अरबस्तानाचो व्दीपकल्प पातळला अशें मानतात. अरबस्तानाची चडांत चड लांबाय १,९३० किमी., रुंदाय २,०९० किमी. क्षेत्रफळ २५,९०,००० चौ. किमी. अरबस्तान आनी आफ्रिका खंड सिनाय द्वीपकल्पाक लागून एकामेकांक जोडल्यात. दक्षिणेवटेनचो सोकोत्रा जुंवो राजकी नदरेंतल्यानच न्हय तर मनीसशास्त्राचे नदरेंतल्यानय अरबस्तानाचोच एक वांटो जावन आसा. राजकी नदरेंतल्यान सौदी अरेबिया, येमेन, मस्कत आनी ओमन, दक्षिण येमेन, ओमानच्या वाठारांतलीं अमीर राज्यां जांकां म्हणटात अशीं सात ट्रुशियल राज्यां, कुवेत, बाहरीन आनी कतार हांचो अरबस्तानांत आस्पाव जाता.

अरबस्तान हो एक व्हडलो पठार वाठारी आसा. हाच्या अस्तंत, दक्षिण आनी आग्नेय शीमेलागीं ऊंच पर्वताच्यो वळी आसात. हें पठार सामक्या पोरन्या फातरांचे आसा. जमनीपोंदच्या घडणुकांक लागून ह्या पठाराच्या अस्तंतेक दोंगर तयार जाले आनी तो वाठार वयर सरिल्ल्यान उदेंतेवटेन देंवती तयार जाली. तेभायर बऱ्याच जाग्यांचेर दोण्याभाशेन **(basin)** जमीन तयार जाली. उत्तरेवटेनचो सिरहान वाठार हो सुमार ३०० मी. खोल, ३२० किमी. लांब आनी ३२ ते ४८ किमी. रुंद आसा. हनिफा, रीमा, दवासिर हेय वाठार अशेच तयार जाले अशें मानतात. तांबड्या दर्या देगेक तिमाहा म्हणटात. हे दर्यादेगेची चडांतचड रुंदाय मदल्या वाठारांत ८० किमी. आसा. तिका तेंकून आशिल्ले दोंगरावळीचे तीन




वांटे जातात. उत्तरेखटेनचो हेजॅझ (चडांतचड उंचाय सुमार २,८९० मी.); ताचे दक्षिणेवटेनचो असीर (२,७५० मी.) आनी दक्षिणेवटेन सामके कुशीक येमेन (३,६५० मी.). ह्या दोंगरानी मक्का आनी मदीनाच्या लागीं पाजो आसात आनी त्या मार्गांतल्यान तांबड्या समुद्रावरवीं येरादारी चलता. अरबस्तानाचे दक्षिणेवटेनच्या दोंगरांक कौर ह्या नांवान वळखतात. आग्नेय वाठारांतलो जबल अल् अख्दर (सुमार २,९८६मी.) हो इराणांतल्या झॅग्रोस पर्वताचोच एक फांटो जावन आसा.

पठाराचो भितरलो वाठार सुमार ६००-९०० मी. उंचायेचो आसा. हो चडसो वाळवंटांनी भरला. मदींमदीं स्टेप्ससारके तणाचे वाठार दिसून येतात.

उत्तर वाठारंतल्या अकाबाच्या आखातासावन जाफ ते कुवेत अशी आडी मारीत जाल्यार हे आडयेचे उत्तरेखटेन सपाट मेकळो मळांचो वाठार आसा. हातूंतलो कांय वाठार तणाचो जाल्यार उरिल्लो रेंवेन भरला. हाका 'बडिएत पश् शाम' म्हळ्यार उत्तरेखटेनचो तणाचो वाठार अशें म्हणटात. हाचे दक्षिणेक, म्हळ्यार जाव्फ आनी हायल ह्या शारांच्या मदल्या वाठारांत 'नफूद' हें अरबी नांव आशिल्लें वाळवंट आसा. हाचोच एक अशीर कुडको रियाधच्या अस्तंतेक 'नफूद दाही' ह्या नांवान वळखतात. रियाधचे उदेंतेक दक्षिण-उत्तर १,३०० किमी. पातळिल्लें वाळवंट म्हळ्यार दाहना. ताचे उदेंतेक इराणच्या आखाताक तेंकून आशिल्ली दर्यादेग आसा. ह्या वाठारांत साव्या उदकाच्यो झरी आनी बांयो आशिल्ल्यान लोकवस्तीचें प्रमाण चड आसा. हांगा सांपडपी तेलाक लागून हांगा बंदरां बादल्यांत. दक्षिणेवटेन 'रब-अल्-खली' (शून्यालय) नांवांचें भयांकृत वाळवंट आसा. ताका फाव सारकेंच हें नांव आसा. नफूद आनी रब-अल्-खलीच्या मदीं अस्तंतेक आशिल्ल्या वाठाराक 'नेज्द' म्हणटात. हांगा वाळवंटावांगडाच हरयाळेचे वाठार आसात आनी हेर वाठारांकडेन तुळा करीत जाल्यार हो वाठार बरोच पिकाळ आसा. शियाच्या तेंपार हांगा केन्नाकेन्नाय पावस पडटा आनी सगळेवटेन हरयाळी वाडटा. हे हरयाळेचेर अरब लोकांच्यो बोकड्यो, मेंढरां आनी ऊंट हांचें कांय दिसांखातीर पोट भरता.

अरबस्तान सामको गरम आनी सुको वाठार जावन आसा. गिमांतलें तापमान केन्नाकेन्नाय ४५° से. मेरेन पावता. वर्सांतल्यान चडांतचड ८-१० सेंमी. पावस पडटा. वाळवंटांतल्या वाठारांनी केन्नाय चुकून पावस आनी करे पडटात आनी न्हंयांक आनी व्हाळांक हुंवार येता. फाटोफाट तीनचार वर्सां पावसाची सुलूस लेगीत केन्नाकेन्नाय लागना, पूण दक्षिण आनी नैऋत्य वाठारांत मोसमी वाऱ्याक लागून ५० ते १०० सेंमी. पावस पडटा आनी ताचो शेतवडीखातीर उपेग जाता.

न्हंयेसारको एकूय उदकाचो प्रवाह अरबस्तानांत ना. पूण पूर्विल्ल्या काळांत व्हांवपी आनी आतां सुकून गेल्ल्या न्हंयाच्या पात्रांतल्यान केन्नाय आयिल्ल्या हुंवाराचें उदक व्हांवन वता. ह्या पात्रांक वाडी म्हणटात. ह्या वाठारांत भुंयेच्या पोटांत उदक सामकेंच उणें मेळटा. ह्या वाड्या वेल्यान पूर्विल्ल्या काळांतले लमाणी आनी यात्रेकरुंचे पंगड हांचे मार्ग थारावंक मेळटात.

पावसाचें सामकेंच उणें प्रमाण आनी जमनींतली खारसाण हाका लागून अरबस्तानांत व्हडले रुख नात. ल्हानसान झोंपाकूच हांगा झाडांची सुवात मेळ्ळ्या. दक्षिण वाठारांत आनी चिखलाच्या जाग्यांचेर गंव, बार्ली (सवाद) कङ्गुणां आनी कांय जाग्यांचेर तांदूळ पिकता. येमेनांत पावसाचें प्रमाण त्या मानान बरें आशिल्ल्यान आनी हेर वातावरणाक लागून काफये रोंपयो जातात. मोचा बंदरांतल्यान काफयेची निर्यात जाता. खाजूर हें हांगाचें म्हत्वाचें पीक. खाजराच्यो शंबरांवयर जाती आसात आनी सगळ्यांत बरो खाजूर ओमान आनी मदीनाच्या वाठारांत जाता. ऊद, हिराबोळ, लजेझाड, बाभळीचे कांय प्रकार, कोरफड (**Aloe Vera**), कणेर,

झाऊ, (Athel Tamarisk) ही वनसपत आनी वांटकुळे अळुंब सगळेवटेन जातात. अरबस्तानांत भाज्यो चडशो जायनात, पूण डाळींब, जर्दाळू, लिंबू, काळंगां, केळीं, सफरचंद, बदाम ह्या सारकीं फळां जातात.

बिबटो वाग, चित्तो, तरस ही रानवटी मोनजात आनी सुणो, माजर, बोकड्यो, मेंढरां, गाडव, घोडो, उंट ही पोसपाची मोनजात हांगा आसा. गरुड, माळढोक, ससाणो, शिकरा, हुप्पी (मेस्तसुकण्यावरी दिसपी), चंडोल, नायटिंगेल, पारवे, तित्तीर हीं सुकणीं हांगा सगळेकडेन दिश्टी पडटात. तोळांचे चोमे अबरस्तानांत बरेंच सांपडटात. हांचो खावपांतय उपेग जाता. घोडो आनी ऊंट हे प्राणी अरबांक खूब आवडटात. अरबी घोडे जगांत सगळ्यांत नांवाजिल्ले आसात. अरबांची जीण उंटाक लागून बरीच सोपी जाल्या. उंटांच्यो तरेकवार जाती आनी पिरायेप्रमाण जावपी अवस्था दाखोवपी सुमार एक हजार उतरां अरबी भाशेंत आसात. हाचेवेल्यान हांगाच्या लोकांक उंटाचें म्हत्व कितलें आसा तें समजून येता. सरपटपी प्राण्यांमदीं शेड्डो आनी शिंगा आशिल्लो व्हायपर, पारो आनी पट्यापट्यांचे विखयाळे पाणसोरोप हांगा आसात. बांगडे, ट्यूना, पोर्गी, ताल्ले, ह्या सारकें नुस्तें, खुबे, मानगीं आनी कांय प्रमाणांत देवमाशेय हांगा दिश्टी पडटात.

पूर्विल्ल्या काळांत अरबस्तानांत भांगरा-रुप्याच्यो खणी आशिल्ल्याचें सद्याच्या अवशेशांवेल्यान दिसता. हेजॅझांतल्या पोरन्या खणींतल्यान भांगर-रुपें हीं खनिजां हालींच वयर काडलीं. इराणचें आखात पयलीं मोतयांच्या उत्पादनाखातीर नामनेचें आशिल्लें. पूण १९३० उपरांत जपानी कृत्रिम मोतयांच्या प्रसाराक लागून अरबस्तानांत मोतयांचें उत्पादन फाटीं पडलें. मात इराणी मोतयांच्या मोलाक लागून फुडाराक ताका बरेंच म्हत्व येवपाची शक्यताय आसा. विसाव्या शेंकड्यांत अरबस्तानाचें म्हत्व हांगाच्या तेलासांठवणीक लागून वाडलें. १९३२ वर्सा बाहरीनच्या वाठारांत तेल मेळ्ळयाउपरांत अरबस्तानांत तेल सोदपाच्या कामाक नेटान सुरवात जाली. फुडल्या कांय वर्सांभितरच कुवेत, कतार, साउदी अरेबिया सारक्या वाठारांनी तेल सांपडलें. जगांतल्या वट्ट तेलसांठवणींतलें सुमार ३५% तेल अरबस्तानांत आशिल्ल्याचो अदमास आसा. हांगा तेलावांगडा सैमीक वायूचीय व्हड सांठवण आसा. हालींच्या काळांत सामक्याच कमी प्रमाणांत ह्या वायूचो उपेग जाता. बऱ्याच व्हड प्रमाणांत भांडवल घाल्यार ह्या वायूचो पुरायपणान उपेग करून घेवंक मेळटलो. ह्या दोन सैमीक गजालींक लागून जगाच्या राजकारणांतय अरबस्तानाक बरेंच म्हत्व मेळ्ळां.

**इतिहासः** सामक्याच पोरन्या अरबस्तानाची चडशी म्हायती मेळना. विंक्लर आनी चेटॅनी हांच्या मताप्रमाण सेमिटीक वंशाचे मूळ थळ हांगा आशिल्लें. पूण हें मत सगळ्यांक मानवना. पूर्विल्ल्या काळांत हो देश सामको पिकाळ आशिल्लो. ल्हव ल्हव मध्य अरबस्तानांतल्यो न्हंयो, झरी, सुकून गेल्याउपरांत थंय वाळवंट निर्माण जालें. उणें उत्पादन, लोकसंख्येची वाड ह्या गजालींक लागून हांगाचे लोक सिरिया, मॅसोपोटेमिया ह्या लागसुल्ल्या पिकाळ वाठारांनी रावंक गेले आनी सिरीयन, कॅननायत, ॲरेमियन, फिनीशीयन, हिब्रू अशीं तांकां नांवां मेळ्ळीं.

अरबस्तानांतल्या दंतकथांप्रमाण मुळाव्या अरबांचे उत्तर आनी दक्षिण अशे दोन पंगड आशिल्ले. बायबलांतल्या 'जेनेसिस' (Genesis) अध्यायांत 'शेम' नांवाच्या मूळ पुरसासावन ह्या दोन पंगडांची रचणूक जाली अशें म्हणटात.

इ.स. पयलीं १० शेंकड्यांतलें सबा (बायबलांतलें शीबा) हेंच दक्षिण अरबस्तानांतलें पूर्विल्लें राज्य आसूं येता. इ.स. पयलीं ७५०च्या तेंपार सबाच्या राजान मारिब धरण बांदलें. ताका लागून शेतवड आनी वेपार हांची उदरगत जाली. फुडें सबाची सत्ता हिम्यरायट जमातीकडेन गेली. हांचो निमाणो राजा धुनुवास हाणें यहुदी धर्म आपणायलो आनी बायझांयटानांतल्या रोमन किरिस्तांव सम्राटान ज्यू लोकांचेर अत्याचार केल्यान ताणें अरबस्तानांतल्या किरिस्तांवांआड झूज उबारलें. फुडें हिम्यरायट सत्ता सोंपून येमेनांत किरिस्तांव राज्याची थापणूक जाली. पूण कांय तेंपान हातूंतलो बरोच वाठार इराणचे सत्तेखाला गेलो.

सबा सोडून हालींच्या उत्तर येमेनांतलें मा-इन (मईन) म्हळ्यार पयलींचें कर्नाव हांगा मिनियन जमातीचें, तिम्ना हांगा कातावानियन जमातीचें, शाबवाह हांगा हध्रामौत आनी झुफार हांगा हिम्यर जमातीचें राज्य चलतालें. हांचेर मुखेल शासक म्हळ्यार वंशपरंपरेप्रमाण सत्तेर येवपी राजा आसतालो. ताका बुद्द दिवचेखातीर जाणकारांचें मंडळ आसतालें. पयलींचे अरब विंगड विंगड देव-देवतांक मानताले. देवळां म्हळ्यार समाजीक जिविताचीं म्हत्वाचीं केंद्रां आशिल्लीं आनी देवळांचें उत्पन्न बरेंच चड आशिल्ल्यान गिरेस्त पुरोयतांचो हांगा शेक चलतालो.

दक्षिण अरबस्तानाच्या मानान पूर्विल्ल्या मध्य आनी उत्तर अरबस्तानाविशींची म्हायती सामकीच उणी आनी अस्पश्ट आसा. इ.स. पयलींच्या आठव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत 'आरिबा' ह्या नांवान नामनेक पाविल्लीं बेदूईन पंगडांची कितलीशींच ल्हान राज्यां मध्य आनी उत्तर अरबस्तानांत अस्तित्वांत आशिल्लीं. ताचे उपरांत सुमार स शेंकड्यांनी दीदन, लिह्यान, नाबाता (हालींचे दक्षिण जॉर्डन) आनी पामिरा ह्या राज्यांचो जल्म जालो. सुर्वेक नाबाताचे रोमन सम्राटाकडेन समजीकायेचे संबंद आशिल्ले. फुडें ते इबाडले आनी पयल्या शेंकड्यांत सम्राट ट्रेजन हाणें नाबाता रोमन साम्राज्याक जोडून ताका पॅलेस्टिना टर्टिया हाणें अशें नांव दिलें. पामिराचेय रोमनाकडेन इश्टागतीचे संबंद आशिल्ले. थंयचो राजा उदीने हाणे सम्राट गॅलिईनस हाका इराणाआड पालव दिलो. ताका तस्त्रीप म्हूण गॅलिईनसान पामिराच्या स्वतंत्र राज्याक मान्यताय दिली. उदीनेच्या मर्णाउपरांत ताची बायल झैनब ही राज्याचो कारभार पळोवंक लागली. तिचो हावेस बरोच व्हड आशिल्लो. आपलो चलो वाह बल्लात हो प्रतिसम्राट आशिल्ल्याची तिणें घोशणा केली, तेन्ना सम्राट ऑरेलियस हाणे पामिराचेर घुरी घालून तें राज्य नश्ट केलें आनी झैनबाक रोमाक व्हरून बंदखणींत उडयली.

चवथ्या शेंकड्याच्या शेवटाक अस्तंत अरबस्तानांतले खुश्कीचे वेपारी मार्ग फाटीं पडून तांबड्या दर्यांतल्यान वेपार जावंक लागलो. मारिब धरण फुटलें आनी उदक नाशिल्ल्यान सगळेवटेन वाळवंट पातळ्ळें. लोक हेडग्या जमातीचें जिवीत जियेवंक लागले. बेदूईन जमातीच्या नेमाप्रमाण ह्या हेडग्या जमातींत मनशाक म्हत्व नासून पंगडाक आशिल्लें. जमातीची जीण गोरवां-मेंढरां आनी लुटीचेर चलताली. तणाचीं मळां, वाळवंटांतली उद्यानां हांचेर सगळ्यांचोच हक्क आसतालो. जमातीच्या मुखेल्याक 'सय्यद' नाजाल्यार 'शेख' म्हण्टाले. जमातींच्या मताप्रमाण ताका कारभार चलोवचो पडटालो. ताका वेंचून काडपाचो अधिकार जमातींतल्या जाण्टया मनशांकडेन आसतालो आनी सादारणपणान खाशेल्या कुटुंबांतल्यानच शेख वेंचून काडटाले. शेखाक बुद्द दिवचेखातीर अणभवी मनशांचें मंडळ आसतालें. ताका मजलीस म्हण्टाले. ह्यो अरबी जमाती विंगड विंगड सैमीक शक्तींची पूजा करताल्यो. तांच्या सगळ्यांत उंचल्या देवाक 'अल्ला' (अल्लाह) जाल्यार मुखेल आनी हेर देवांक 'मनात', 'उज्जा' आनी 'अल्लात' अशें म्हण्टाले.

अशा हेडग्या जमातींतली एकाद्री जमात खंयच्याय वाळवंटांतल्या हरयाळेच्या जाग्यार रावताली आनी भोंवतणच्या वाठाराचेर सत्ता चलयताली. केन्नाकेन्नाय एकाद्रे जमातीची सत्ता दोन वा चड वाठारांचेर चलताली आनी वाळवंटी साम्राज्यां निर्माण जातालीं. पांचव्या शेंकड्यांच्या दुसऱ्या अर्दांत आनी सव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत पातळिल्लें किंदा (किंदह) हें अश्या प्रकारचें साम्राज्य देखीक सांपडलां. वाळवंटांतल्या उद्यानांनी रावपी कांय जामातींनी कांय शारांचीय थापणूक केली. हॅजॅझ प्रांतांतलें मक्का हें असल्या प्रकारचें साम्राज्य. अश्या शारांत दरेक जमातीची मजलीस आनी पाशाणाची देवता आसताली. फुडें फुडें शारांतल्या जमातींचें पवित्र पाशाण एकाच जाग्यार दवरूंक सुखात जाली. देखीक- मक्का हांगाचें काबा शारांतल्या सगळ्या जमातींच्या मजलिसांच्या प्रतिनिधींची 'माला' नांवाची सभा आसताली. ह्या

मालांवखीं शाराचें शासन मुखेल कुटुंबाच्या सुचोवण्यांप्रमाण चलतालें.

अशे तरेन अरबस्तान विंगड विंगड पंगडांच्या ल्हान ल्हान राज्यांनी वांटून गेलो. मात चवथ्या-पांचव्या शेंकड्यांमेरेन तांचो भायल्या जगाकडलो संबंद पुरायपणान तुटूंक नाशिल्लो. विंगड विंगड वाठारांतल्या किरिस्तांव आनी ज्यू लोकांच्या वसाहतीं वरवीं तांच्या मदीं एकाच देवाची कल्पना मूळ धरताली. तशेंच शीमेवयल्या घस्सान (गस्सान) आनी हिरा ह्या बायझंटायन आनी इराणच्या मांडलीक राज्यांकडल्यान नवीं शस्त्रां, लश्करी तंत्र, डावपेच, खाणजेवण, सोरो ह्या गजालींची अरबांक वळख जाली.

६ व्या शेंकड्यांत इराण-बायझंटायन झुजाक लागून इराणी आखात आनी युफ्रेटीस न्हंयच्या वाठारांतले वेपारी मार्ग संकश्टांत पडले. नवे मार्ग सोडून काडले तेन्ना हॅजेंझ हांगाच्या तायफ, मक्का, मदीना ह्या शारांक म्हत्व आयलें. मक्का शारांत कुरैश जमात बळीश्ट आशिल्ली आनी तांच्याआड आवाज काडपाचें कोणाकच धारिश्ट्य नाशिल्लें.

इस्लामाचे थापणुकेक लागून अरबस्तानाचेर बरेच परिणाम जाले. इस्लाम येवंचेपयलीं खंयचेय सत्तेक अरब जमाती मानीनाशिल्ल्यो. पैगंबरान चडशा जमातींक इस्लाम धर्मांत हाडले आनी तांकां आपल्या शासनाखाल दवरले. पूण पैगंबराच्या मर्णाउपरांत (६३२) अरबस्तानांत बऱ्याच वाठारांनी इस्लामी सत्तेआड बंडां जालीं. खलीफा अबू बकर हाणे हीं बंडां चिड्डावन उडयलीं आनी इस्लामी सत्तेचो व्हड प्रमाणांत विस्तार केलो. ताचे उपरांतचो खलीफा पयलो उमर (६३४-४४) हाणे आपल्या धा वसाचे राजवटींत इजिप्त, सिरिया, इराक, इराण ह्या देशांनी इस्लामचो प्रसार केलो. खलीफा उस्मान हाचे राजवटींत (६४४-५६) कुरैश जमातींतल्या झगड्यांक लागून सगळ्याक लडायेचें वातावरण निर्माण जालें. खून, झुजां हातूंतल्यान शिया आनी सुन्नी ह्या दोन पंथांची थापणूक जाली. दमास्कस हांगाची उमय्या खिलाफत ७५० वर्सा काबार जावन बगदादच्या अब्बासी खिलाफतीची थापणूक जाली. तरीपूण अरबस्तानांत शांतताय आयलीना. विंगड विंगड जमातींमदले वेगळेचार वाडीक लागून अल् जुलान्दा इब्न मसूद हांचें ओमान हांगा, कारमेथियनांचे उर्देत अरबस्तानांत, हसनच्या वंशजांचे मक्केला हांगा आनी हुसेनच्या वंशजाचें मदीनेला अशा स्वतंत्र राज्यांची थापणूक जाली. कांय काळाउपरांत इजिप्तच्या अय्युबी वंशाची थापणूक करपी सलाउद्दीन हाणे अरबस्तानांतलीं कितलीशींच राज्यां नश्ट करून अय्युबी सत्तेचो विस्तार केलो. अय्युबी वंशाउपरांत मक्का हांगा सुभेदार अली इब्नरसूल हाणे येमेन आनी हेर अरबी वाठारांत रसूल वंशाची थापणूक केली. हें राज्य सुमार दोनशें वर्सां तिगून उरलें. निमण्या अब्बासी खलीफाक मंगोल झुजारी हुलागूखानान मारुन उडयल्याउपरांत ह्या रसूली सुलतानान स्वताच खलीफा आशिल्ल्याची घोशणा केली. पूण रसुली घराण्याकडेन सत्ता चड तेंप उरली ना. १४ व्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत इजिप्तच्या मामलूक तुर्कांनी अरबस्तानाच्या बऱ्याच व्हड वाठाराचेर शेक गाजयलो. पूण सोळाव्या शेंकड्याच्या सुर्वेक कॉन्स्टँटिनोपलच्या ऑटोमन तुर्कांनी तांचेर जैत मेळयलें. ऑटोमन तुर्कांची सत्ता जरी पयल्या म्हाझुजामेरेन थिरावली तरी पुराय अर्थान ह्या वाठाराचेर तांचो शेक नाशिल्लो. येमेन, हेजेंझ, ओमान, अल् हसा ह्या ल्हान राज्यांचो कारभार स्वतंत्रपणान चालूच उरलो.

अरबस्तानांत तर्की सत्तेचो विस्तार जाता आसतनाच १५०८ वर्सा पोर्तुगेजांनी ओमनांचेर जैत मेळयलें. ह्या फुडलीं शंबर वर्सां पोर्तुगेज-डच हांच्या मदल्या झगड्यांभितर सोंपली आनी दोनूय सत्ता फाटीं पडून ब्रिटीश हांगा शेक गाजोवंक लागले.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत ब्रिटिशांनी अरबस्तानावटेन बारीकसाणीन पळोवंक सुरवात केली. एडन तांच्या हाताखाल आशिल्ल्यान हिंदुस्तानचे राखणेचे नदरेंतल्यान ह्या वाठाराक ताणी खासा म्हत्व दिवंक सुरवात केली. १८६५ वर्सा ब्रिटिशांनी सौदी अरेबियाच्या राजाक (फैसल) भेट दिवन उलोवणी चालू केली. फुडें तुर्कांनी जर्मनीचो पाखो घेवंक सुरू केल्ल्यान ताणी अरबांक पालव दिवपाचें धोरण दवरलें.

हे परिस्थितीचो फायदो घेवन १९०२ वर्सा अब्दुल अझीझ हाणे रियाध शाराचेर जैत मेळयलें. पयल्या म्हाझुजावेळार अरबांचें फुडारपण हेजेंझच्या हुसेनान केलें, आनी म्हाझूज सोंपता सोंपता म्हळ्यार सिरिया, पॅलेस्टायन, इराक हीं अरबी राज्यां अस्तित्वांत आयलीं. ह्या काळांत इब्न सवद हाणे आपली शक्त वाडयली आनी नव्या सवदी अरेबिया राज्याची घोशणा केली.

दुसऱ्या म्हाझुजांत ब्रिटिशांनी अरबी एकचाराचो उलो दिलो आनी 'अरब लीग'चे थापणूकेक पालव दिलो. संस्कृतीक आनी अर्थीक मळार जरी ह्या संघान म्हत्वाचें कार्य केलें, तरीपूण अरबी वाठारांची राजकी एकी अजून जावंक ना.

**लोक आनी समाजजीण:** अरबस्तानाचे आनी अरबांचे बायबलांतल्या नव्या करारांत संदर्भ मेळटात.

अरब हे लोक सेमिटीक वंशाचे. अरबी भाशा पोरन्या ॲसिरियन, बॅबिलॉनियन, हिब्रू आनी फिनीशयन भाशांक बरीच लागींची आसा. मध्य अरबस्तानांतल्या हेडग्या जमातीक पूर्विल्ल्या काळांत अरब अशें नांव दिल्लें. फुडें दक्षिणेवटेन वचून रावपी आनी शेतवडीचेर जियेवपी लोकांक अरब आनी हेडग्या लोकांक बेदूईन अशीं नावां मेळळीं. आज अरब म्हळ्यार अरबी भाशा आनी अरबी संस्कृतायेचें दायज मानपी मनीस अशी व्याख्या आसा. तेप्रमाण मोरोक्को, आल्जेरिया, ट्युनिशिया, लिबिया, सुदान, इजिप्त, जॉर्डन, लेबनान, सिरिया, इराक, कुवेत, सावदी अरेबिया, बाहरीन, कतार, इराणच्या आखाताच्या वाठारांतलीं शेखांचीं राज्यां, संयुक्त अमीर राज्यां, ओमान, एडन आनी येमेन हांचो अरब-पंगडांत आस्पाव जाता. पूण ह्या सगळ्या देशांनी फकत अरब लोकूच आसात अशें न्हय. कॉप्ट, बर्बर, कुर्द आनी ज्यू जमातीचे बरेच लोक हांगा आसात. हातूंतले ज्यू सद्या इस्रायलांत वचून रावल्यात.

विंगड विंगड अरब देशांतले गिरेस्त, शिक्षित, आनी शारांनी रावपी लोक अस्तंतेच्या देशांतल्या लोकांभाशेन सुट-बूट घालून वावुरतना दिसले तरी चडशे अरब 'गलबिया' नांवाचो पोरन्या प्रकारचो सुती, लांब आनी सदळ झगो, पँट, फेझ तोपी नाजाल्यार मुंडाशें वापरतात. बायलो कुडत्याभशेन काळ्या नाजाल्यार निळ्या रंगाचें खोमीस, सादी पिजाम, ओढणी आनी बुरखो वापरतात.

धर्मान चडशे अरब मुसलमान आसात पूण तांच्यांत बरेच पंथभेद आसात. कांय अरब किरिस्तांव आसात. मूर्तिपूजा करपी बरेच अरब आजूय दिसतात. धर्मावेल्यान तांच्यामदीं झगडीं जातात. आयज हांगा निरक्षरतेचें प्रमाण जरी बरेंच आसलें तरी पूर्विल्ल्या काळांत तांची बरीच उदरगत जाल्ली. वेपाराच्या निमतान कितलेशाच अरबांचो उदेंतेकडल्या आनी अस्तंतेकडल्या संस्कृतायांकडेन संबंद आयलो. पूण मदल्या काळांत राजकी घडणुकांक लागून हो संबंद वाडूंक पावलो ना. कुटुंबसंस्थेक हांगाच्या समाजांत मानाची सुवात आसा आनी कुटुंबाचे अब्रूचो प्रस्न बरेच म्हत्वाचो आता.

सद्या आंतरराश्ट्रीय वेपारांत बरेच अरब वावुरतात. तांकां लागून व्हड व्हड अरबी शारां आर्विल्ले पध्दतीन वाडटात. पूण ल्हान सान गांवांनी मात वातावरण पोरनेंच आसा. कितलेशाच अरबी शारांनी धातूची कला, विणपाची कला, चामड्याची कला ह्या सारक्यो कलाकुसरी नांवाजिल्ल्यो आसात.

**अरबी कला:** अरबी कलेच्या वाठारांत सादारणपणान पोरन्या काळांतले अरबस्तान, पर्शिया, मेसोपोटेमिया, सिरिया, पॅलेस्टायन, उत्तर आफ्रिका आनी आंदालूझीया (मुस्लीम स्पेन) ह्या वाठारांचो आस्पाव जाता. इजिप्त, बाबिलोनिया, आनातोलिया आनी क्रीट ह्या संस्कृतायांतल्या पोरन्या कलांकडेन अरबी कलेचो संबंद आशिल्ल्याचें दिसून येता. इस्लाम आयल्या उपरांत (सातवो शेंकडो) धर्माप्रमाण मूर्तिकला आनी चित्रकला उक्तेपणान आनी संगीत, नृत्य ह्या सारक्यो कला अप्रत्यक्षपणान निशिध्द मानल्यो. ताका लागून अरबी कलेंत इस्लाम

पयलींचें आनी इस्लाम उपरांतचें अशीं दोन रूपां दिसतात.

इस्लामपयलींच्या काळांतली अरबी कलानिर्मणी नाबाता, लिह्यान आनी हिम्यर ह्या सारक्या अरबी जमातीनीं केली. ह्या काळांतले लोक चंद्राची उपासना करपी आनी उजो आनी मूर्ती पूजपी आशिल्ले. ताकालागून सगळ्यो लळीत कला ह्या काळांत निर्माण जाल्यो. तातूंतल्या वास्तुकलेचे आनी शिल्पकलेचे अवशेश सांपडटात. तांचेर ग्रीक कलेचो प्रभाव दिसून येता. इस्लाम धर्म आयल्या उपरांत चित्रकला आनी शिल्पकला हांचेर बंधनां पडलीं. अल्लाचें आनी सगळ्या जिवीत मोनजातीचें चित्रण धर्मीक नदरेंतल्यान बंद जालें. पानां, फुलां ह्या सारक्या गजालींक चित्रकलेंत आनी शिल्पकलेंत म्हत्व आयलें. मशीद हो एक नवो प्रकार शिल्पकलेच्या आनी वास्तुकलेच्या मळार उदेवंक लागलो. अरबस्तानांत आपले खाशेले शैलीक लागून नामनेक पाविल्ल्यो अशो बऱ्योच मशिदी आनी थडीं आसात. भांगराच्यो वस्ती करपांतय अरब लोक बरेच हुशार आशिल्ले. तेभायर संगमरवरचीं आयदनां, लाकडी दखटे, काशांव, हस्तिदंताच्यो वस्ती आनी हेर कलाकुसर हातूंतल्यान अरब लोकांचे कलेविशीं आशिल्ल्या उंचेल्या पावंड्यावेले रुचीचेर उजवाड पडटा.

इस्लाम येवचे पयलीं हांगाचे लोक नाच आनी संगीतातय बरेच फुडें पाविल्ले. दादल्यांवांगडा बायलांय ह्या कलाप्रकारांनी फुडाकार घेतालीं. पूण इस्लाम धर्म आपणायल्या उपरांत तांची ह्या मळाचेर उदरगत जावंक पावलीना.

ग्रीक संगीतकलेंतल्यान अरबी संगीताची उदरगत जाली. अरबी संगीताक कुराणाचो न्हय तर पोरन्या इस्लाम धर्मपिसाटांचो विरोध आशिल्लो, तरीपूण कुराण आनी धार्मिक कवनां हातूंतल्यान अरबी संगीत तिगून उरलें. हारुन-अल्-रशीद हाचे राजवटींत (७८६-८०९) संगीताच्या मळार बरीच उदरगत जाली. पर्शियन संगीताचोय हांगाच्या संगीताचेर परिणाम जालो.

हांगाच्या संगीतांत ताल आनी लय हांचो पांवडो बरोच ऊंच आसा. वाद्यांभितर तंतूवाद्यांक चड म्हत्व आसा. हांगाच्या संगीताचो परिणाम अस्तंतेकडल्या संगीताचेर बरोच दिसून येता. भारतीय संगीतांतल्या 'राग' पध्दती कडेन ह्या संगीताचें लागींपण स्पश्टपणान जाणवता.

**भाशा आनी साहित्यः** सेमिटिक भाशा चोम्यांच्या चार शाखांतली अरबी ही दक्षिणेवटेनचे शाखेची भाशा आसा. हिम्यरितिक आनी इथिओपिक ह्योय हेच शाखेच्यो भाशा. फिनिशियन आची हिब्रू हांचो आस्पाव अस्तंत शाखेंत, आरामायकचो उत्तर शाखेंत आनी अकेडिय नाजाल्यार ॲसिरो-बाबिलोनियनचो आस्पाव उदेंत शाखेंत जाता.

आज ही भाशा चडशी साउदी अरेबिया, सिरिया, इराक, पॅलेस्टायन येमेन, एडन, इजिप्त, लिबिया, ट्यूनिशिया, आल्जेरिया, मोरोक्को, माल्टा ह्या वाठारांनी उलयतात. अरबी भाशा उलोवपी लोकांची संख्या बारा कोटी सुमार आसा.

साहित्यीक आनी उलोवपाची अरबी हातूंत म्हत्वाचो फरक आसा. इस्लाम येवचे पयलीं सुमार देडशीं वर्सां साहित्यीक अरबीचो वापर चालू जाल्लो. जे जमातींत महंमद पैगंबर जल्माक आयले, त्या कुरैश जमातीच्या लेखकांनी आनी हेर कांय लोकांनी ती काव्यांत वापरली आनी तिका प्रतिश्ठा मेळोवन दिली. फुडें कुराणाची रचणूक हेच भाशेंतल्यान जाल्या उपरांत तिका पवित्र सुवात मेळ्ळी.

इस्लामचे धर्मप्रसारक ज्या ज्या वाठारांनी धर्माचो प्रसार करूंक गेले त्या त्या वाठारांनी ताणी आपल्या पवित्र ग्रंथांवांगडा अरबी भाशाय व्हेली. फार्सीसारक्या आर्यकुळांतले भाशेचें रूप तिच्या प्रभावान बरेंच बदललें. भारतांतल्या बऱ्याच भाशांनी खासा करून दक्षिणेवटेनच्या मुसलमानांक लागून मराठी सारके भाशेचेर अरबीचो बरोच परिणाम जालो. कांय अरबी उतरां भारतीय भाशांनीं आपणायलीं आनी आयज तीं उतरां त्या भाशांतलींच उतरां जावन गेल्यांत. देखीकः अव्वल, खबर, अवलाद, नफा, कत्तल, मालक.

साहित्याचे नदरेंतल्यान हे भाशेन पांच म्हत्वाचे काळ खंड पळयले: १. इस्लामपयलींचो काळ (सु. ५०० ते ६१०), २. सुरवातीचो इस्लामी आनी उमय्या काळ (६१० ते ७५०), ३. अब्बासी काळ (७५० ते १२५८), ४. अधोगतीचो काळ (१२५८-१८५०) आनी ५. आर्विल्लो काळ (१८५० उपरांत).

पयलींचें अरबी साहित्य कवितांच्या आनी म्हणींच्या रुपांतल्यान अरबस्तानांतल्या नज्द आनी हेजॅझ वाठारांतल्या बोली भाशांनी आशिल्लें. ह्या काळांत कवितेचें गायन जातालें. काव्य गायन करपी लोकांचो खासा वर्ग आशिल्लो जाका 'रावी' म्हण्टाले. उमय्या काळांतली म्हत्वाची घडणूक म्हळ्यार कुराणाची रचणूक. भाशेची सोबीतकाय आनी अर्थाचे नदरेंतल्यान हो ग्रंथ म्हळ्यार साहित्यांतलो एक बरो नमुनो म्हूण मानतात. ह्या काळांत लबीद सारको नामनेचो कवी आनी अल्-खान्सा हिचे सारकी नामनेची कवयित्री जावन गेली. शोकगीतांचो प्रकार ह्या काळांत बरोच गाजलो. ह्या शोकगीतांक 'मर्सिया' म्हण्टात. ह्या काळांत 'गझल' नांवाच्या काव्यप्रकाराचो जल्म जालो. ह्या काळांतले राजाय बऱ्यापैकीं कवी आनी लेखक आशिल्ले. अब्बासी काळांतय नव्या प्रकारचें साहित्य बऱ्याच प्रमाणांत निर्माण जावंक पावलें. बश्शार बिन बुर्द, अबू दुलामह, अबू नवास ह्या सारके नामनेचे साहित्यिक ह्या काळांत जाले. सूफी कवींचें काव्य लोकांनी तांतल्या देवावेल्या भक्तीक लागून आनी साक्षात्काराच्या अणभवांक लागून व्हड प्रमाणांत आपणायलें. मुहमुद्दीन मुहम्मद इब्नुल- अरबी (११६५-१२४०) हाका सगळ्यांत म्हान सूफी कवी मानतात. ताणे सुमार तीनशीं ग्रंथ बरयल्यात. ह्या काळांत भाशाशास्त्र, व्याकरण, समीक्षा, शास्त्रीय बरपावळ, तत्त्वगिन्यान, चरित्रां आनी इतिहास ह्या विशयांचेर बरेंच साहित्य निर्माण जालें. अरबी साहित्याचो पांवडो ह्या काळांत बरोच ऊंच पावलो. जगांतल्या बऱ्याचशा लोकांनी अरबी साहित्याची वळख करून घेतली आनी ह्या साहित्याकडल्यान शिकपासारक्यो जायत्यो गजाली आपणायल्यो.

चंगीजखानाचो नातू हुलागू हाणे १२५८ वर्सा बगदादचेर जैत मेळयलें आनी अब्बासी सत्ता सोंपोवन उडयली. तेन्ना अरबांचो ह्या वाठारावेलो प्रभाव उणो जालो. हाचो परिणाम साहित्याचेर जालो आनी साहित्य अनुकरण आनी निर्मणेचें उणेंपण हातूंत घुस्पलें. तरीपूण सफीयुद्दीन अल्‌हिल्ली (१२७८-१३५१), जलालुद्दीन सुयूती (१४४५-१५०५) इब्न तैमीयह (१२६३-१३२८) हे कांय नांव घेवपासारके साहित्यीक जावन गेले. आर्विल्ल्या काळांत नेपोलियनाच्या घुरयांक लागून अरबी साहित्याचेर अस्तंतेकडल्या विचारांचो परिणाम जालो. नव्या विचारांचें साहित्य व्हडा प्रमाणांत निर्माण जावंक लागलें. काव्याभितर सिरीयांतलो अल्-फारुकी, इजिप्तांतलो हाफिझ इब्राहिम, अब्दुल मुहसिन काझिमी, हांच्या वांगडा हेर बऱ्याच कवींनी नामना मेळयली. सामकेच नवे शैलीची कविता फ्रांसिस मरीश, अहमद शौकी, खलील मतरान हाणी बरयली. तेभायर अमेरिकेंत राबितो आशिल्ल्या खलील जिब्रान, मिखायल नू-आइमा, इलिया अबूमादी ह्या मूळ अरबी कवींनी बरीच निर्मणी केली. कादंबरी, नाटक, समीक्षा ह्या गजालींचेर परिणाम जावन पोरन्या इस्लामी विचारांची सुवात नवे अस्तंतेचे विचारपध्दतीन घेतली. ह्या सगळ्या साहित्य प्रकारांभितर चडांत चड येस कथांक मेळ्ळें. अरबी साहित्याचेर आज जगांत कितलेशेचकडेन अभ्यास आनी संशोधन चालू आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**अरविंद घोषः** (जल्मः १५ ऑगस्ट १८७२, कलकत्ता; मरणः ५ डिसेंबर १९५०).

नामनेचो भारतीय विचारवंत. अरविंद घोष हो डॉ. कृष्णधवन घोष आनी स्वर्गलता देवी हांचो तिसरो पूत. डॉ. कृष्णधवन हाणे इंग्लीश भाशेंतल्यान उंचेले शिक्षण घेतिल्लें. घरांत तो बंगाली भाशा वापरीनासतना इंग्लीश वा हिंदी भाशा वापरतालो. अरविंद आनी ताचे दोन व्हडले भाव दार्जिलिंग हांगाच्या लॉरेटो कॉन्व्हेंट स्कूलं हांगा शिकले.

हे शाळेंत चडशे यूरोपीय भुरगे शिकताले आनी माध्यम पुरायपणान इंग्लीश आशिल्लें. दार्जिलिंग हांगा दोन वर्सां शिक्षण पुराय जाल्या उपरांत अरविंदाक ताच्या भावंडासयत इंग्लंडाक शिक्षणाखातीर धाडलो. थंय तो ड्रूवेट नांवाच्या ब्रिटीश कुटुंबाचे देखरेखीखाल आशिल्लो. ह्या वेळार ताची पिराय सुमार सात वर्सांची आशिल्ली आनी डॉ. कृष्णधवन हाणे आपल्या भुरग्यांक भारतीयांकडेन कसलोच संपर्क येवचो न्हय अशी जतनाय घेतिल्ली. डॉ. कृष्णधवन हांची वागणूक तशी आसली, तरी तांकां भारतांतल्या ब्रिटीश राजवटीविशीं तिडक आशिल्ली. हाकालागून भुरगेपणांतच अरविंद आनी ताचीं भावंडां हांचेर देशभक्तीचे संस्कार जावंक पावले. १८९१ केंब्रिज हांगा 'भारतीय मजलिस' हे संस्थेची थापणूक जाली, तेन्ना अरविंद ते संस्थेचो सेक्रेटरी जालो.



अरविंद घोष

इंग्लंड आनी इंग्लंडचें राजकारण हाचेविशीं मनांत वायट मत निर्माण जाता आसतनाच अरविंदाच्या मनात आयर्लंडचे स्वातंत्र्यतायेच्या आंदोलनाचो फुडारी, पार्नेल हाचेविशीं आ पु ल की निर्माण जाली. पार्नेल हाका मरण आयलें तेन्ना ताणें पार्नेलची तु स्त करपी एक काव्य घ ड य लें भारतांतल्या मवाळ राजकारणाविशीं अरविंदाच्या मनांत केन्नाच मोग निर्माण जालो ना. उरफाटें जहाल राजकारणावटेन ताका चड ओड दिसूंक लागली. इंग्लंडांत कांय जहाल भारतीयांनी 'लोटस अँड डॅगर' नांवाची गुप्त क्रांतीकारक संघटना निर्मिली, तेन्ना अरविंदय ते संघटनेत सामील जालो. हे गुप्त संघटनेच्या सभासदांनी मायभुंयेचे स्वतंत्रतायेखातीर मरसर झुजपाचो सोपूत घेतिल्लो. फुडें ही संघटना ल्हव ल्हव करून काबार जाली.

इंग्लंडांतल्या चवदा वर्सांच्या राबित्यांत अरविंदान इंग्लीश, लॅटीन आनी ग्रीक भाशांचेर प्रभुत्व मेळयलें. हे भायर फ्रेंच, इटालियन, स्पॅनिश आनी जर्मन ह्या भाशाचेंय गिन्यान मेळोवन घेतलें. आवयभाशा बंगाली मात ताका भारतांत पर्थून आयल्या उपरांत शिकची पडली.

इंग्लंडांत आसतना १८९०त अरविंदान आय्. सी. एस्. परिक्षा दिली. पूण घोड्यार बसपाचे परिक्षेंत नापास जाल्यान तो आय्. सी. एस्. जांवक शकलो ना. अरविंदाच्या मनांतय ब्रिटिशांची चाकरी करपाची इत्सा नाशिल्लीच.

१८९२ त अरविंदान केंब्रिजच्या किंग्ज कॉलेजांतल्यान पदवी मेळयली आनी १८९३ तो भारतांत आयलो. बडोदा संस्थानाचो राजा सयाजीराव गायकवाड हाणे आपल्या संस्थानांत रेव्हेन्यू खात्यांत ताका नोकरी दिली. कांय दिसां उपरांत बडोदा महाविद्यालयांतल्यान ताणे पयलीं फ्रेंच आनी उपरांत इंग्लीश भाशेचें अध्यापन सुरू केलें. कांय काळ त्या महाविद्यालयाचो तो प्राचार्य लेगीत जालो.

स्वतंत्रतायेच्या आंदोलनांत वांटो घेवचे नदरेंतल्यान अरविंदान 'वंदे मातरम्' नांवाचें दिसाळें उजवाडावंक सुरवात केली ह्या दिसाळ्याचो संपादक आसतना ब्रिटीश सरकारान राजद्रोहाचो आरोप दवरून ताचेर खटलो भरलो. पूण न्यायालयांत ताची निर्दोश म्हूण मेकळीक जाली. १९०७ सावन ताणें राजकी चळवळींत नेटान वांटो घेवंक सुरवात केली. १९०८ त ब्रिटीश सरकारान पर्थून ताचेर राजद्रोहाचो आनी ब्रिटीश साम्राज्याआड कट केल्याचो आरोप दवरून खटलो भरलो. ह्या वेळार चित्तरंजन दास ताचें वकीलपत्र घेवन खटलो झुजलो. वर्सभर हो खटलो चलतालो. शेवटाक पर्थून अरविंदाची निर्दोश म्हूण मुक्तताय जाली. 'कर्मयोगी' हें इंग्लीश आनी 'धर्म' हें बंगाली सातोळें ताणे चलयलें.

बडोदा हांगा आसतना अरविंदाचें लग्न रांची हांगा स्थायिक जाल्या भूपालचंद्र हांची धूव मृणालिनी हिचेकडेन १९०१ वर्सा जालें.

अरविंदाचे देशभक्तीचें आनी राजकारणाचें मूळ ताचे आध्यात्मिक प्रवृत्तींत आशिल्लें. १९०७ त ग्वाल्हेरचो लेले नांवाचो महाराष्ट्रीय योगी ताका मेळ्ळो आनी अरविंदाचे आध्यात्मिक साधनेक आरंभ जालो. फुडें राजकारण आनी लौकिक जिवीत हांचो पुराय संन्यास घेवन १९१०त पयलीं चंद्रनगर हांगा आनी उपरांत पाँडिचेरी ह्या फ्रेंच वसणुकांनी वचून ताणे आश्रम उक्ते केले. आश्रमाचे थापणूकेउपरांत चडांत चड वेळ एकांतवासांत रावन अरविंद योगसाधना करूंक लागलो. १५ ऑगस्ट १९१४ दिसासावन 'आर्य' नांवाचें आध्यात्मिक विशयाक ओंपिल्लें म्हयन्याळें ताणें मिरा रिचर्डस् आनी पॉल रिचर्डस् ह्या जोडप्याच्या पालवान सुरू केलें.

१९१८ त अरविंदाची घरकान्न मृणालिनी, पाँडिचरी हांगा येवंक भायर सरली, पूण वाटेंत कलकत्ता हांगा इंफ्ल्यूयेंझाच्या दुयेंसान तिका मरण आयलें. २४ नोव्हेंबर १९२६ दिसा अरविंदाक योगसिध्दी प्राप्त जाली आनी तो पुराय एकांतवासांत रावंक लागलो. 'एसेज ऑन द गीता', 'लायफ डिव्हायन' ह्या सारक्या ग्रंथांची बरपावळ ताणे 'आर्य' म्हयनाळ्यांतल्यान केली. 'सावित्री' हें ताचे महाकाव्य बरेंच नामनेचें आसा.

- डॉ. नरेश कवडी

## अरुणाचल प्रदेश:

**अरुणाचल प्रदेश:** भारतीय संघराज्यांतलें एक घटक राज्य. हें राज्य भारताचे ईशान्य दिकेक वसलां. क्षेत्रफळः ८३,५७८ चौ. किमी. लोकसंख्याः ६,३१,८३९, राजधानीः इटानगर, भासः निशी, आदी, वान्चो, नोक्टे. साक्षरताः २०.९%, अक्षांश आनी रेखांशः २६° २८'. उत्तर ते २९° ३०' उत्तर ९१° ३०' उदेंत ते ९७° ३०' उदेंतः ह्या राज्याचे अस्ततेक भुतान, वायव्येक तिबेट (चीन), उत्तर आनी ईशान्येक चीन, उत्तर आनी दक्षिण दिकेक आसाम, उदेंत आनी आग्नेयेक ब्रह्मदेश तर नैऋत्य दिकेक नागालँड, हे वाठार आसात.

**भूंयवर्णनः** अरुणाचल प्रदेश राज्यांतलो ६०% वाठार रानां-वनांनी भरला. तातूंतलो चडसो वाठार वयर सकयल आसा. अका, डफला, मीरी अबोर, मिशमी, पातकई आनी हेर दोंगुल्ल्यो ह्या राज्यांत आस्पावतात. चडशे दोंगर आनी दोंगुल्ल्यो ईशान्य आनी नैऋत्य दिकेक पातळ्ळ्यात. तांची उंचाय ८०० ते ४,००० मी. मेरेन पावता. उत्तरेकडेन ३,००० ते ५,२०० मी. उंचायेच्यो बर्फाळ दोंगरातेंगश्यो आसात. हिमालयाचे उदेंतेवटेनची दोंगरा वळ ह्या राज्यांत दक्षिण आनी नैऋत्य दिकेवटेन गेल्या आनी पुराय राज्यांत पातळ्ळ्या. ब्रह्मपुत्रा ही ह्या राज्यांतली मुखेल न्हंय, पूण थंय तिका 'दिहांग' नांवान वळखतात. कामेंग, सुबनसिरी, सिटांगवा दिहांग, दिबांग वासिकांग लोहित आनी बुरीदिहिंग ह्यो ब्रह्मपुत्रेक मेळपी ह्या राज्यांतल्यो मुखेल न्हंयो. हिमालयांतल्यान व्हांवपी न्हंयांक लागून राज्यांत जायतीं देगणां दिसतात. राज्यांतली पिकाळ भूंय फकत ल्हान-व्हड न्हंयो, व्हाळ हांच्या देगांवयल्या वाठारापुरतीच मर्यादीत आसा.

**हवामानः** अरुणाचल प्रदेशाचें हवामान 'समशीतोष्ण' आसा. कांयकडेन जमनीच्या वयर-सकयल प्रकाराक लागून हवामानय बदलता. दक्षिणेंतल्यो न्हंयो आनी देगणांनी तापमान गरम आसता. राज्यांतलो पावसाळो मे-जून म्हयन्यांत सुरू जावन सप्टेंबर मेरेन चलता. वर्सुकी पावस पडपाचें सरासरी प्रमाण बोमदिला-१,०१९ मिमी., पासीघाट-५,७९२ मिमी., तेजू-४,०७१ मिमी., चांगलांग- १,९८८ मिमी. इतलें आसा. शियाळ्याच्या दिसांनी राज्याच्या उत्तर भागांत बर्फ पडटा. बर्फ पडपाची शीम दर्यादेगेसावन ३९६२ मी. वयर आसता.




**वनस्पत आनी मोनजातः** अरुणाचल प्रदेशाचो ६१,००० चौ. किमी. वाठार रानां-वनांनी भरिल्लो आसा. तातूंतलो ४५,११६ चौ. किमी. वाठार राखीव रानांत आस्पावता. विंगड विंगड प्रकारच्या वनस्पतींक लागून हो वाठार गिरेस्त जाल्लो दिसता. ओक, पायन, सायल, बाभूळ, बेत, कोंडो आनी हेर वनस्पत हांगा मेळटा. हत्ती, गवोरेडो, वाग, चितो, हरण, ताकिन, वांस्वेल, रानमेंढो, दुकर, रानवटी बोकड्चो हे प्राणी जंगलांत दिसतात. मिथुन आनी गयाल हे ह्या राज्यांतले दोन खाशेले प्राणी आसात.

**इतिहासः** अरुणाचल प्रदेशाचो इतिहास आयज् मेरेन अज्ञातच उरला. दोंगर, दाट रान, येरादारीचो साप्प उणाव, मागाशिल्ल्यो रानवट जमाती आनी हेर कमीपणांक लागून हांगा शासनवेवस्थेचेर कोणूच शेक गाजोवंक पावलो ना. जमातीचो मुखेली आपल्या जमातींचो कारभार पळयतालो. १८७२त आका आनी निशी (डाल्फा) वाठाराचेर आपलो ताबो मेळोवन ब्रिटीश ह्या वाठारांत रिगले. राज्यांतल्या रानवट जमातींकडल्यान कसलोच त्रास जावंचो न्हय ह्या हेतान, ब्रिटिशांनी कांय थाणीं हांगा उबारली. कर वसूल करपापुरतेंच ब्रिटिशानी ह्या वाठाराचेर लक्ष घालें आनी हेर कसलेंच म्हत्व दिलें ना. विसाव्या शतमानाचे सुर्वेक उत्तरेकडल्या वाठाराचेर चीनान हक्क सांगिल्ल्यान, ब्रिटीश सरकारान ह्या वाठाराचो वेगळो शासकीय उपविभाग घडयलो. सन १९१२-१३ त सर हेन्री मॅकमॅहन हाणे हिमालयाच्या तेमकांक प्रमाण मानून उत्तर दिकेवटेनची शीम आंखली हिका 'मॅकमॅहॉन लायन' म्हण्टात. १९४८ त हो वाठार केला. सुरक्षतायेच्या कारणाक लागून आसामासावन वेगळो केलो. तेन्ना ताका 'नेफा' म्हळ्यार ईशान्य शीम (North-East Frontier Agency) म्हण्टाले. ह्या राज्याचें शासन केंद्र सरकार पळेतालें. १९५९ आनी १९६२ वर्सा चीनान ह्या वाठाराचेर घुरी घालून कबजो मेळयलो. १९६३ त चीनाकडल्यान हो वाठार परतो मेळयलो. २० जानेवारी १९७२ ह्या दिसा ह्या वाठाराक 'अरुणाचल प्रदेश' ह्या नांवाखाल संघराज्याचो पांवडो मेळ्ळो. डिसेंबर १९८६ त अरुणाचल प्रदेशाक भारत सरकारान घटकराज्याचो पांवडो दिलो.

**राज्यवेवस्थाः** अरुणाचल प्रदेशाचो वाठार आसामांत आसतना, शासन मध्यवर्ती सरकाराच्या घरखात्यावरवीं चलतालें. अरुणाचल प्रदेश (नेफा) आसामासावन वेगळो काडटकच केंद्र सरकाराचेवतीन राष्ट्रपतीचो प्रतिनिधी म्हूण राज्यपाल ह्या राज्यांचो कारभार पळयतालो. २० जानेवारी १९७२ ह्या दिसा अरुणाचल प्रदेशाक संघराज्याचो दर्जो मेळ्ळो तेन्ना एजन्सी काउन्सिलच्या सल्ल्यान आसामचो राज्यपाल ह्या वाठाराचो राज्य कारभार चलवपाक लागलो. १५ ऑगस्ट १९७५ ह्या दिसा हें काउन्सिल वचून विधानसभा आयली. डिसेंबर १९८६त ताका राज्य पांवडो मेळ्ळो.

राज्य १० जिल्ह्यांनी वांटिल्लें आसा. दर जिल्ह्याचो कारभार उप-उच्चायुक्त पळयता. अस्तंत कामेंग, उदेंत कामेंग, लोअर सुबनसिरी, अपर सुबनसिरी, अस्तंत सियांग, उदेंत सियांग, दिबांगव्हेली, लोहीत, तिराप, तवांग हे राज्यांतले जिल्हे जावन आसात.

**अर्थीक स्थितीः** अरुणाचल प्रदेशांतले शेत-उद्देग अजूनय मागशिल्ले अवस्थेंत आसात. बैल आनी नांगरान शेत कसपाची रीत अजूनय जायते जाणांक खबर ना. सोपणां-सोपणांची शेतवड आनी झूमिंग वा फिरती शेतवड करपाची पध्दत आयजय थंय चलता. सुमार ४६% लोक शेत-वेवसायांत आसा. १,३३,४३० हेक्टर जमीन लागवडीखाल आसून तातूंतली २६% जमीन शिंपणावळ क्षेत्रासकल आयल्या. भात, मको, नासणो, कणगां, हीं हांगाचीं मुखेल पिकां आसात. वट्ट कामदारांमदले ८३.९२% कामदार शेत-वेवसायांत आसात. बायल कामदारांमदल्यो ९६.६% कामदार शेत-वेवसायांत आसात.

राज्यांत आशिल्ल्या ६१,००० चौ. किमी. रानाक लागून व्हड प्रमाणांत

येणावळ मेळटा.

राज्यांत निकेल, कोबाल्ट, गंधक, तांबे हांचे सांठे व्हड प्रमाणांत आसात. पूण अर्थीक नदरेंतल्यान आयजमेरेन ते फायदेशीर थारुंक नात.

जंगल-उत्पादनाचेर आदारिल्ले उद्देग वाडोवपाक राज्यांत चड लाव आसा. ते नदरेन थंय यत्न चल्ल्यात. भंगसाळ, प्लायवूड उद्देग, तांदळाची गिरण, हातमाग आनी हस्तकला, फळां सांबाळपाचो उद्देग हांगा वयर सल्ल्यात. ३ मध्यम आनी ३४ ल्हान उद्देगीक वसणुको, खाजगी आनी सहकारी क्षेत्रांत आसात. तेजू हांगा शिमीट फॅक्टरी बांदप चालू आसा. तिराप जिल्ह्यांत खरसांग हांगा तेल शुध्दीकरण कारखानो जावपाचो आसा. १०० टन कागद निर्मूपाची क्षमता आशिल्लो पेपर कारखानो चालू करपाचो प्रस्ताव सरकारामुखार आसा. २१ प्रशिक्षित आनी २४ उत्पादक केंद्रांतल्यान, कताई, विणकाम, कापप, शिवणकाम, शेंदऱ्यो करप, वेतकाम, सुतारकाम, रेशीमकाम, बांबूकाम, आयदनां करप हे लघु-उद्देग चालीक लायल्यात. ४३ समूह उदरगत प्रकल्प आनी ९७ सहकारी संस्था हांच्या पालवान शासनान लोकांची उदरगत घडोवन हाडपाखातीर विंगड विंगड येवजणी तयार केल्यात. परंपरागत चलत आयिल्लें विणकाम आनी कलापूर्ण वस्तूची निर्मणी ह्या उद्देगांक सहकारी संस्थावरवीं आदार दिवन, आंतरराज्यीय बाजारपेठेंत भितर सरपाच्यो तांच्यो येवजण्यो आसात. नक्षी काडिल्ल्यो लांकडी वस्तू, टंक चित्रां, चांदीच्यो वस्ती, चामड्यापसून तयार केल्ल्यो वस्ती आनी हेर तरांच्यो वस्ती करपाक ह्या राज्यांतले थळावे कारागीर फिशाल आसात.

**येरादारी आनी संचारण**: राज्यांत पक्क्या आनी कच्च्या रस्त्यांची लांबाय ३६,७४०.८१ किमी. आसा. बालिपारा ते भालूकपंगमदीं राज्यांतलो पयलो रेल्वे-मार्ग घालपाचें काम सुरू जाल्लें आसा. ह्या रेल्वे-मार्गाची लांबाय १२ किमी. आसा.

**लोक आनी समाजजीण**: अरुणाचल प्रदेशांत लोकसंख्येची दाटाय दर किमी. ७ मनीस इतली आसा. दर १,००० दादल्यांक बायलांचे प्रमाण ८७० पडटा. राज्यांतले ७९.०१% (१९७१) लोक आदिवासी आसून ते विंगड विंगड पन्नास भासो उलयतात. राज्यांतले आदिवासी आनी हेर भौस खासा करून हिंदू आसून बौध्द, किरिस्तांव आनी मुस्लीम धर्मीय हांगा रावतात. राज्यांतल्यो आदिवासी जमाती आनी तांचे कांय वाठार अशेः **अस्तंत कामेंग**: मोनपा, शेर्डूकपेन, आका, खोवा, मिजी. **उदेंत कामेंग**: बांगनी, सुलूंग, **लोअर सुबनसिरी**: निशी अपटानी, सुलूंग, **अपर सुबनसिरी**: तागीन, हिलमिरी, आदी **अस्तंत सियांग**: आदी (उपजमातीः गालोंग, मिनयोंग, बोरी, बोकार, रामो, पायलीबो) **उदेंत सियांग**: आदी (उप-जमातीः पदम, मिनयोग, पासी, तांगी, मिलांग, सिमोंग, कोमकार, कारको), इदू-मिशमी. **दिबांग व्हॅली**: इदु-मिशमी, आदी **लोहित**: मिजूमिश्मी, दिगारु मिश्मी, खम्पटी, सिंगफो. **तिराप**: नोक्टे, वान्चो, तंगसा, सिंगफो.

सादारणपणान ह्यो जमाती आंतर जातीय लग्नां करीनात पूण चड बायलो करपाची चाल मात तांचे मदीं चलता. जमातीचो मुखेली आनी जमाती पंचायती वरवीं समाजीक प्रस्न सुटावे जातात. हे लोक कोंड्याचीं घरां बांदतात. रावपा-जेवपाची पध्दत सादी आसा. वंशपरंपरेन चलून आयिल्ले संस्कार सोडून दिवपाक ते तयार नासतात. बायलो आंगाचेर गोंदोवन घेतात तशेंच तांकां आंगार वस्ती घालपाकय आवडटा. व्हंकलेचें मोल घेतकच तिका घोवाघरा धाडटात. भार येवप, नड करप सारक्या गजालींचेर आदिवासी जमातींचो खर विस्वास आसा. संगीत आनी नृत्य हांची आवड सगल्या जमातींमदीं आसा. ह्या लोकांची समरनृत्यां आनी समूहनृत्यां नांवाजल्ली आसात.

**शिक्षण**: राज्यांत साक्षरतेचें प्रमाण २०.०९ टक्के आसा. तातूंत बायलांचे साक्षरतेचे प्रमाण ११.०२% आसा. राज्यांत शिक्षणाचो प्रसार वाडोवपाखातीर व्हड प्रमाणांत यत्न चल्ल्यात. १९७५ ते १९८१ ह्या वर्सां मजगतीं मुळाव्या शाळांचो आंकडो १८४ वेल्यान ८७५ चेर पावला. तेभायर १२० मुळाव्यो माध्यमिक शाळा, ३४ माध्यमिक शाळा, १३ उच्च शाळा, १ कैंद्रीय शाळा, २ पदवी महाविद्यालयां आसून ८०,००० विद्यार्थी शाळांनी शिकप घेतात. राज्यांतले अरुणाचल विश्वविद्यापीठ इटानगर हांगा आसा.

**म्हत्वाचीं थळां**: राजधानी इटानगर, इटाफोर्टचे अवशेश, तवांगचो बुध्द मठ, मलिनितनचे पुराणवस्तू संग्रहालय, बिस्मार्क नगर आनी नंदाप्पा अभयारण्यां, अरुणाचल विश्वविद्यापीठ हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं थळां जावन आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**अरेबियन नाइट्स**: अरबी भाशेंतल्या काणयांचो नांवाजिल्लो झेलो. हाचें मूळ अरबी नांव 'अल्फ लयूलह-व-लयूलह' (अलीफ़लैलह) अशें आसून इंग्लीशींत 'अरेबियन नाइट्स एंटरटेनमेंट' आनी 'वन थाउजंड अँड वन नाइट्स' अशीं नांवां रुढ आसात. एका प्रास्ताविक कथासूत्रांत तरेकवार कथा गुंथपाचें संस्कृत 'पंचतंत्र' वा 'शुकसप्तति' हांचें भारतीय तंत्र अरेबियन नाइट्स हातूंत दिसून येता. हें कथातंत्र अस्तंती साहित्य समीक्षेंत 'रामेन एर्त्सेलुंग' ह्या जर्मन नांवान वळखतात.

अरेबियन नाइट्सच्या कथांच्या सांखळेची फाटभूंय अशीः इराणचो राजा शहरयार आपले राणयेच्या व्यभिचाराक लागून तिडकता आनी पुराय बायल-जातीचो सूड घेवपाचें थारायता. देखून, दर राती एके बायलेवांगडा राजा लग्न जाता आनी सकाळींफुडें तिका जितीच मारून उडयता. राजाच्या वजिराची चली शाहजादी (शाहराजाद) सगले स्त्रीजातीक वाटावपाची एक युक्त सोदून काडटा आनी बापायची संमती घेवन राजाकडेन लग्न जाता. रातीक ती राजाक आनी आपली धाकटी भयण दुनियाजाद हांकां एक काणी सांगता. आपले कथा सांगपाचे हुशारकायेन काणी अर्दीच दवरून ती रातीचें राजाचें मन काणयेच्या फुडल्या भागांत घुस्पावन दवरता. काणयेचो मुखावेलो वांटो आयकुपाखातीर दुसऱ्या दिसा राजा तिका जीवदान दिता अशें दर फांतोडेर घडटा. तिणे एक हजार राती सांगिल्ल्या काणयांनी राजा सामको रंगून वता. ताचें काळीज पाझरता आनी तो आपलो क्रूर विचार मनांतल्यान काडून उडयता.

अरेबियन नाइट्सचें प्रचलित स्वरूप अठराव्या शतमानांत सिध्द जालें. ह्या काणयांच्या लेखकाविशीं, काणयांच्या मूळ स्वरुपाविशीं आनी बरपावळीच्या कालखंडाविशीं कसलीच माहिती मेळिल्ली ना. अल्-मसूदी ह्या अरबी लेखकाच्या 'मुरुजुझ्-झहब' (९४७) ह्या ग्रंथांत 'हजार अफ़साना' असो उल्लेख मेळटा, अशें नबिआ अॅबट हाणे १९४९ त नदरेक हाडलें. हाचेवेल्यान फार्सी भाशेंतसून ह्यो कथा अरबी भाशेंत आयल्यो अशें अॅबटाचें मत आसा. हे कथेचे चौकटीचें मूळ भारतीय आसत अशेंय एक मत आसा.

भारत, इराण, इराक, तुर्कस्तान आनी इजिप्त हांचेकडेन संबंदीत अशे कांय कथाभाग ह्या कथांत आस्पावतात. हातूंतलीं चडशीं विशेश नामां अरबी, मुस्लिम आनी कांय भारतीय तशेंच यूरोपीय आसात. हातूंतले कांय कथाप्रसंग चीन आनी भारत हांगा घडिल्ले आसले तरी कथांचे भितल्ले भाग आनी प्रेरणा अस्सल अरबी आनी इस्लामी आसात. कालविपर्यासाचो दोश लेगीत 'अरेबियन नाइट्स' काणयांनी दिसून येता. इराणच्या शहरयार राजाचो कालखंड इस्लामपूर्व मानल्यार बगदाद बसरा आनी कैरो ह्या इस्लाम उपरांतच्या काळांत नामनेक पाविल्ल्या शारांचो उल्लेख विपर्यस्त दिसता. कॉफी आनी तंबाखू अनुक्रमान चवदाव्या आनी सोळाव्या शतमानामेरेन इजिप्तांत अपरिचित आशिल्लीं. पूण तांचो उल्लेख ह्या कथांनी आयला. इजिप्तांतले पंदराव्या शेंकड्यांतले शिश्टाचार आनी चालीरिती 'अरेबियन नाइट्स' हातूंत दिसून येतात. घडये ह्याच काळांत तातूंतल्यो मूळ कथा पुराय करून आनी तातूंत नव्यो कथा घालून तांचो झेलो केला आसूंक जाय. कुराण सोडून अरबी साहित्यांतलो खंयचोच ग्रंथ इतली नामना आनी लोकप्रियता जोडूंक

पावंक ना. तातूंतल्यो 'अलीबाबा आनी चाळीस चोर', 'अल्लाउद्दीन आनी जादूचो दिवो', 'सिंदबादाच्यो भोंवड्यो' ह्यो कथा सगळ्यांक परिचित आसात.

मूळ अरब भाशेंतल्यो ह्यो कथा काव्यात्मक अशा कुडक्या-कुडक्यांनी रचल्यात. त्यो कथा कथनाखातीर आनी खासा सुरांत गावपाखातीर रचल्या आसूंक जाय. ह्या सगळ्या कथांची विभागणी अशी करूं येता: १. परीकथा आनी काल्पनिक कथा २. बगदादचो सुलतान हारुन-अल्-रशीद आनी ताचो प्रधान हांचेकडेन संबंदित आशिल्ल्यो मोगाच्यो आनी अप्रुपांच्यो काणयो. हातूंत इतिहासीक सत्य ना. ३. मध्यमवर्गीय लोकांकडेन संबंदीत आशिल्ल्यो हांसयाळ्यो आनी थोड्योभोव शृंगारीक कथा. हांची रचना तेराव्या ते सोळाव्या शतकांत, मामलूक सुलतानांचे मुस्तींत कैरो (अल्-काहिरह) हांगा जाली आसूंक जाय. ४. साहसकथा ५. बोधपर कथा ६. आख्यायिका आनी दंतकथा हांचेर आदारीत कथा ७. धर्मीक कथा.

अशें वर्गीकरण करून लेगीत अरेबियन नाइट्स कथांत एकात्मता आनी एकवाक्यता दिसून येना. सिंदबादच्या सफरींची कथा तर स्वतंत्रपणान रचल्या आनी मागीर तातूंत घाल्या. वाङ्मयीन गुणवत्तेचे नदरेन तातूंत विषमता दिसून येता. थोड्यो कथा बंदिस्त आनी कलात्मक धर्तेच्यो आसात तर कांय कथांची रचना शिथील दिसता. ह्यो कथा घटनाप्रधान आसून व्यक्तिचित्रण स्थूल स्वरुपाचें आसा. पूण कथनकौशल्य, अभिनव कल्पनाविलास आनी मनीस सभावाचें मर्मज्ञान ह्या गुणांक लागून ह्यो अप्रुपाच्यो अद्भूतरम्य कथा संवसारभर लोकप्रिय जाल्यो.

'अरेबियन नाइट्स' चो पयलो अणकार आंत्वान गालां हाणे पॅरिसाक १७०४ ते १७१७ ह्या काळांत फ्रेंच भाशेंत केलो आनी यूरोपीय लोकांक ह्या कथांची पयली वळख करून दिली. मूळ अरबी भाशेवयल्यान केल्ल्या गालांच्या अणकाराचे हेर युरेपीयन भासांतूय अणकार जाले. जर्मन लेखक हाबिश्ट हाणे मूळ अरबी कथासंहिता जर्मनींतल्या ब्रेस्लौ हांगा छापली (१८२५-४३) आनी १८४०त तिचो जर्मन अणकार उजवाडाक हाडलो. कायरो हांगा १८३५ त छापिल्ल्या अरबी प्रतीवेल्यान ई. डब्ल्यू. लेन ह्या अभ्यासकान दर्जेदार पूण अपूर्ण इंग्लीश अणकार (१८३९-४१) उजवाडाक हाडलो. ह्या कथांक 'अरेबियन नाइट्स एंटरटेनमेंट' हें नांव ताणेच दिलें. कलकत्ता हांगचे अरबी प्रतीचेर (१८३९-४१) आदारित इंग्लीश अणकार जॉन पेन हाणे केलो. (१८८२-८४). सर रिचर्ड एफ. बर्टनच्या १६ खंडांतल्या अणकाराक (१८८५-८९) उपाट लोकप्रियता मेळ्ळी. जे. सी. मर्द्रुसचो फ्रेंच अणकार (१८९९) लेगीत खूब लोकप्रिय जालो. यूरोपियन भासांतल्या सगळ्यांत ऊंच पावंड्याचो मान ई. लिटमनच्या ६ खंडांतल्या जर्मन अणकाराक (१९२१-२८) फावता.

अरेबियन नाइट्सचे संहितेविशींची आनी हेर प्रस्नांची चिकित्सा डी. बी. मॅक्डोनाल्ड ह्या अमेरिकन अभ्यासकाच्या ग्रंथांत आयल्या. ह्या कथांतल्या बगदादी आनी ईजिप्शियन अशा दोन ठळक स्तरांचो अभ्यास ऑगस्ट म्यूलरच्या विवेचनांत आस्पावता.

कृष्णशास्त्री चिपळूणकरान १८६१त इंग्लीशींतल्यान ह्या कथांचो मराठी अणकार करपाक सुरवात केली. विष्णुशास्त्री चिपळूणकर आनी हरि कृष्ण दामले हाणी ताका हातभार लायतकच १८९०त 'अरबी भाषेतील सुरस व चमत्कारिक गोष्टी' पुस्तक रूपान उजवाडाक आयलो. तांची ६ भागांची नवी आवृत्ती १९५७त उजवाडाक आयली. 'अरेबियन नाइट्स'चो मराठी अणकार त्र्यं. पु. थोरात, वा. गो. आपटे हाणीय केला. सर बर्टनच्या मूळ इंग्लीश भाशेंतल्या 'अरेबियन नाइट्स'चो १९७५त गौरी देशपांडे हाणी ११ खंडांत केल्लो मराठी अणकार खूब लोकप्रिय जालो.

- को. वि. सं. मं.

**अर्जुन:** पांच पांडवांतलो तिसरो पांडव. हाका 'मध्यम पांडव' अशेंय म्हण्टात. पांडुची बायल कुंती हिका इंद्रमंत्राच्या प्रभावान हिमालयाच्या शतशृंग पर्वतार जाल्लो चलो. ताका धनंजय, इंद्रसुत, फाल्गुन, पार्थ अशींय नावां आसात.

पांचूय पांडवांभितर अर्जुन कुशळ धर्नुधर आनी शूरवीर आशिल्लो. ताका शंकराकडसून पाशुपतास्त्र, परशुरामाकडल्यान शस्त्रविद्या आनी अग्नीकडल्यान 'गांडीव' धनुष्य, तशेंच इंद्र, वरुण, यम आनी कुबेर हांच्याकडसून वेगवेगळ्या अस्त्रांची प्राप्ती जाल्ली. द्रोणाचार्याचो तो पट्टशिष्य आशिल्लो. आचार्याकडल्यान शिकून घेतिल्लें धनुर्विद्येचें आनी अस्त्रविद्येचें द्रौपदी स्वयंवरावेळा अप्रूप कसब दाखोवन ताणे द्रौपदीक जिखली. तो आपलें 'गांडीव' धनु दाव्या हातान लेगीत चलयतालो म्हूण ताका 'सव्यसाची' अशें म्हण्टाले. आपले १०६ वर्सांचे पिरायेंत ताणे खास करून उत्तर भारतांत खूब दिग्विजय मेळयले.

शकुनीकडे कूटद्यूत खेळटना हारतकच ताणे आपल्या भावांवांगडा द्वैतवनांत वास केलो आनी एका वर्साचो अज्ञातवास विराटनगरांत भोगलो. विराटनगरांत 'बृहन्नला' नांव घेवन ताणे राजकुमारी उत्तरेक नाचकलेचें शिक्षण दिलें. अस्त्रविद्येवांगडाच अर्जुन ललित कलांत लेगीत निपुण आशिल्लो.

भगवान श्रीकृष्णावांगडा ताची सख्यभक्ती आशिल्ली. भारतीय झुजावेळा आपल्या हातान आपल्याच भावांचो, गुरुंचो वध जातलो ह्या हुस्क्यान निर्शेवन ताणे धनुश्य-बाण सकयल दवल्लें. तेन्ना ताच्या रथाचो सारथी जावन बशिल्ल्या श्रीकृष्णान ताका कुरुक्षेत्राचेर गीता सांगली. विरक्त जाल्लो अर्जुन गीतेचो उपदेश आयकून झुजाक तयार जालो. भारतीय झुजांत ताणे कर्ण, जयद्रथ, भीष्म आदी कौरववीरांक मारले.

नर-नारायणाभितर कृष्णाक नारायणाचो जाल्यार अर्जुनाक नराचो अवतार मानला. ताका चार बायलो आशिल्ल्यो. द्रौपदीपसून ताका श्रुतकीर्ती, सुभद्रेपसून अभिमन्यू, चित्रांगदेपसून बभ्रुवाहन आनी उलूपीपसून इरावान् हे चार पूत जाले. पांडवांवांगडा महाप्रस्थान करता आसतना ताका मर्ण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**अर्थशास्त्र:** अर्थशास्त्र हो पोरन्या काळासावन म्हत्वाचो अभ्यासविशय अशें मानलां. क्रिस्ता पयलीं चवथ्या शतमानांत भारताचो कौटिल्य आनी ग्रीसाचो ॲरिस्टॉटल ह्या पंडितांनी ह्या विशयाचेर ग्रंथ बरोवन दवरल्यात. कौटिल्य हाणे आपल्या पयलींच्या अठरा आचार्य परंपरेचो उल्लेख करून अर्थशास्त्राची व्याख्या केल्या ती अशी:

''मनुष्याणां वृत्तिः अर्थः मनुष्यवती भूमिरित्यर्थः।
तस्याः पृथिव्या लाभपालनोपायः शास्त्रमर्थशास्त्राम्।।''

अर्थः पृथ्वी हें मनशाचें रावपाचे ठिकाण; हे पृथ्वीच्या (सैमीक सामग्रीच्या) पालवान मनशाची जीण चलता (गरजो भागतात). तिचो (सैमीक सामग्रीचो) लाब आनी संवर्धन (पालन) विशींच्या उपायांचो अभ्यास म्हळ्यार अर्थशास्त्र.

कौटिल्याच्या काळावयलो युरोपांतलो विचारवंत ॲरिस्टॉटल (इ.स. पयलीं ३८४-३२२) हाणें ह्या विशयाचे दोन वांटे केल्यात:

१. अर्थशास्त्र म्हळ्यार घरगुती वेव्हार आनी २. पुरवणशास्त्र म्हळ्यार विनीमय आनी अर्थार्जन.

ॲडम स्मिथ (इ.स. १७२३-१७९०) ह्या ब्रिटीश अर्थशास्त्रज्ञाक आर्विल्ल्या 'अर्थशास्त्राचो मूळपुरुश' मानतात. ताणें 'राश्ट्राचे संपत्तीचें स्वरूप आनी कारणां हांचें अन्वेशण' अशी अर्थशास्त्राची व्याख्या केल्या. अर्थशास्त्राविशीं हेर बऱ्योचशो व्याख्या आसात त्यो अशो:

१. पैशांच्या पालवान वा त्याखेरीज लोकांमदीं विनीमय वेव्हाराचीं जीं कार्यां जातात तांचो अभ्यास म्हळ्यार अर्थशास्त्र.

२. मार्शल हाच्या मतान 'उपजिविकेच्या साधनांखातीर दिसपट्ट्या वेव्हारांत आशिल्ल्या मनशांचो अभ्यास म्हळ्यार अर्थशास्त्र.'

३. संपत्तीचो अभ्यास म्हळ्यार अर्थशास्त्र.

'संपत्तीचें शास्त्र' वा 'पैशांचें शास्त्र' अश्यो ज्यो अर्थशास्त्राच्यो व्याख्या आसात, त्यो बऱ्योच संकुचित आसात अशें जाणकारांचें मत

आसा. नॅसो सिनीअर, एस्. मिल, डब्ल्यू. एस्. जेव्हन्स ह्या अभिजात अर्थशास्त्रज्ञांच्या मतान, अर्थशास्त्र हें एक पुराय वस्तुनिश्ठ निगमनात्मक (Deductive) शास्त्र आनी संपत्ती हो ह्या शास्त्राचो अभ्यासविशय जावन आसा.

अभिजात अर्थशास्त्रज्ञांच्या अर्थविशींचे हे संकल्पनेचेर जर्मन इतिहासीक संप्रदायवादयांकडल्यान आनी कार्लाइल, रस्किन ह्या सारक्या विचारवंतांकडल्यान बरीच टीका जाली. त्या वेळावयल्या अर्थशास्त्रज्ञांनी पैसो आनी संपत्ती ह्या गजालींचेर जाय ताचे परस चड भर दिल्ल्यान अशी टीका जाली. अभिजात संप्रदायाचीं मतां आनी तांचेर जाल्ली टीका मतींत दवरून डॉ. मार्शल (१८४२-१९२४) हाणें प्रत्यक्ष अणभवांचेर आदारिल्ले आपले विचार मांडले. गरीबांच्या वसणुकांचो नियाळ करून ताणें बरोवंक सुरवात केली. अर्थशास्त्राचो सगळ्यांत पयलो अभ्यास विशय म्हळ्यार मनीस आनी ताचो वेव्हार हें ताणें पयलींच बरोवन दवरलें. डॉ. मार्शल हो मूळचो गणिती, रँगलर. पूण संपत्ती उपाट आसून पसून दळीद्र कित्याक आसचें? दळीद्राचें निर्मूलन करप शक्य आसा वा ना? ह्या प्रश्नांच्यो जापो सोदचे खातीर ताणें अर्थशास्त्राचो अभ्यास केलो आनी त्या विशयाचो तज्ञ अशी नामनाय मेळयली.

हे फाटभुंयेचेर डॉ. मार्शल हाणे मांडिल्ल्या विचारांमुखार कार्लाइल, रस्किन हांची मतां फाटीं पडलीं. 'अर्थशास्त्रांत संपत्तीचो अभ्यास आसताच, पूण ताचेयपरस म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार, मनशाचो अभ्यास तातूंत जाता.' डॉ. मार्शल हाचो मुखेल भर अर्थशास्त्राच्या 'शास्त्र' ह्या तासाचेर आशिल्लो आनी ताका लागून पोलीटिकल इकॉनॉमी (राजकी अर्थशास्त्र) ह्या परंपरागत नांवाच्या बदलाक ताणें 'इकनॉमिक्स' हें नांव रुढ केलें.

सादारणपणान मनशाच्या जिवितांत राजकी, समाजीक, धर्मीक अशा कार्यांचो आस्पाव जाता, पूण ताका मेजप पुरायपणान शक्य नाशिल्ल्यान तांचो अर्थशास्त्रांत आस्पाव करप अशक्य नासता, अशें ताणें प्रतिपादन केलां. म्हळ्यार, जे वेव्हार संपत्तीकडेन, स्वास्थसाधक भौतिक साधनांचो उपेग आनी उपलब्धी हांका संबंदीत आसतात, तांचोच अभ्यास अर्थशास्त्रांत येता. प्रा. पिगू हाणें मार्शल हाच्याय फुडें पावल घालें. 'अर्थशास्त्र म्हळ्यार अर्थीक स्वास्थ्याचो, कल्याणाचो अभ्यास. समाजीक स्वास्थाचो संबंद प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष पैशांच्या मानदंडाकडेन संबंदीत आसता तें अर्थीक स्वास्थ जावन आसा,' अशें मत ताणें मांडलें. प्रा. रॉबिन्स हाच्या मतान अर्थशास्त्राक समाजीक शास्त्र समजल्ल्यान ताची व्याप्ती संकुचीत जाता. मनशाचे वेव्हार हेर मनशांकडेन आसूं वा समाजाकडेन आसूं, अर्थीक नियती (Economic Determinism) ताका सुटना. ताका लागून अर्थशास्त्र हें एक मानवीं शास्त्र आसा. प्रा. केन्स हाणें फुडें अर्थशास्त्र म्हळ्यार 'रोजगारी आनी राहणीमान हाचेर परिणाम करपी घटकांचो अभ्यास' अशी व्याख्या मुखार हाडली. हे बरपावळी-उपरांत अर्थशास्त्राविशींच्या वैचारिक साहित्याची व्हड बरपावळ जाली.

सद्याक अर्थशास्त्र हो एकूच असो सलग आनी बंदिस्त विशय उरूंक ना. ताचो विस्तार सगळेवटेन जाला.

ह्या विशयाचे दोन वांटे आसात. १. वैयश्टिक (Micro) आनी २. सामश्टिक (Macro). वैयश्टिक अर्थशास्त्र म्हळ्यार बारीकसाणीन केल्लो अभ्यास. हे पध्दतींत अर्थीक बाबींसंबंदी म्हळ्यार उत्पादन, वापर, वांटप ह्या सारक्या अर्थशास्त्रीय गजालींचो कुडक्या कुडक्यांनी आनी वैयक्तिक गजालींचेर भर दिवन केल्लो अभ्यास.

सामश्टिक अर्थशास्त्र हे पध्दतींत वट्ट राश्ट्रीय उत्पादन, भांडवल, रोजगार, उत्पन्न ह्या सारक्या अर्थीक घटकांचो एकाचवेळार समग्रपणान केल्लो अभ्यास.

ह्या दोनय पध्दतींवरवीं अर्थीक घडामोडींच्या घटकांचो विचार करप जाता. देखीकः संपत्तीचें उत्पादन, वापर, वांटणी, गरज, सामग्री, भांडवल, मनशाचे कश्ट, संयोजन, येवजण, विभाजन आदी. समाजशास्त्र, मानसशास्त्र, राज्यशास्त्र, इतिहास हांचो संदर्भ मतींत दवरून तशेंच वैयक्तिक राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय परिस्थितीचो नियाळ करून हो विचार जाता. मर्यादीत सामग्रीचो चडांतचड उपेग करून, चडांतचड उत्पादन काडून शक्य जाता तशी वांटणी करूंक जे सिध्दांत दर घटकावरवीं मांडप जाता वा उपाय सुचोवप जाता हांचो अभ्यास अर्थशास्त्रांत आस्पावता.

**भारतीय अर्थशास्त्रः** पूर्विल्ल्या काळांतय देखेक समाजामुखार कांय अर्थशास्त्राविशींचे प्रस्न उप्रासताले. बारीकसाणीन विचार करपी लोक हे प्रस्न सोडवपाचे यत्न करताले. भारतांतय पोरन्या काळासावन अर्थीक प्रस्नांचेर विचार जातालो. बाजारपेठो कशे तरेन निर्माण करच्यो, तांची उदरगत कशी करची, वेपाराची वाड कशी करची, ह्या सारक्या गजालींचेर भासाभास पोरन्या काळांतल्या साहित्यांत मेळटा. पूण त्यावेळावयलें हें साहित्य म्हळ्यार अर्थनीती, राजनीती, धर्मनीती, नीतीशास्त्र अशा विंगड विंगड विचारांची एक भरसण आशिल्ली, आनी आर्विल्ल्या अर्थशास्त्राचें स्पश्ट, खासा अशें स्वरूप तेन्ना ताका मेळूंक नाशिल्लें.

शासनान अर्थवेव्हारांत खंयची गजाल घेवंची तें कौटिल्यान आपल्या 'अर्थशास्त्र' ह्या ग्रंथांत बरोवन दवरलां. येरादारीचीं साधनां वाडोवप, येरादारीखातीर राखणेची वेवस्था करप, मार्गांवयले कर शक्य तितले उणे करून वेपार चड सोपो करप, आयात-निर्यातीक उर्बा दिवप ह्या सारक्यो गजाली कौटिल्यान शासनाकडेन सोंपयल्ल्यो.

जे वेपारी आनी उद्योगीक क्रांतीचे फाटभुंयेचेर अस्तंतेकडल्या राश्ट्रांत अर्थशास्त्राची उदरगत जाली, ती क्रांती भारतांत न जाल्ल्यान भारतांत अर्थशास्त्राची उदरगत स्वतंत्रपणान जावंक शकलीना. ताका लागून भारतीयांच्या अर्थशास्त्राच्या अभ्यासाचो स्वतंत्रपणान सोद घेवचेखातीर पूर्विल्ल्या काळाकडेनच नदर मारची पडटा.

वेपारी आनी उद्योगीक क्रांतीकडेन भारताचो संबंद जेन्ना ब्रिटीश भारतांत आयले तेन्ना आयलो. भारताच्या राश्ट्रीय उत्पन्नाच्या स्वता केल्ल्या स्वतंत्र अंदाजाच्या आदारान दादाभाई नौरोजी हाणें भारतीय जनता कितली गरीब आसा हें दाखोवन दिलें. ब्रिटिशांच्या संपर्काचो भारताचे अर्थीक उदरगतीचेर जाल्लो परिणाम रमेशचंद्र दत्त हाणें त्या काळखंडांतल्या भारताच्या अर्थीक इतिहासाच्या मांडावळींतल्यान स्पश्ट केलो.

भारतीय विचारवंतांनी भारतीय प्रस्नांच्या संदर्भांत अर्थशास्त्राचो अभ्यास आनी वापर करूंक जाय, अशें मत न्यायमूर्ति महादेव गोविंद रानडे हाणें मुखार हाडलें. रानडेचो शिश्य गोपाळ कृष्ण गोखले हाणें आपल्या अर्थीक प्रस्नाविशींच्या विवेचनांत रानडेचोच विचार फुडें व्हेलो. भारतीय परिस्थितीचें संशोधन करपी अभ्यासकांची परंपरा ह्याच भारतीय अर्थशास्त्राचो अभ्यास करीत आशिल्ली. स्वतंत्रतायेपयलीं आनी उपरांत भारतीय अर्थशास्त्रज्ञांनी ह्या विशयाचेर भरपूर बरपावळ केली. अर्थशास्त्राचो अभ्यास करचेखातीर खास संस्थांची निर्मणी जाली; देशांतल्या विंगड विंगड विश्वविद्यालयांतल्यान ह्या विशयाचो अभ्यास करचेखातीर संशोधनाचें काम सुरू जालें.

भारतांत अर्थशास्त्राचेर उजवाडायल्लीं बरींच इंग्लीश नेमाळीं आसात. तातूंतलीं म्हत्वाचीं म्हळ्यार इंडियन इकनॉमिक जर्नल, इंडियन इकनॉमिक रिव्ह्यू, इंडियन जर्नल ऑफ इकनॉमिक्स, इकनॉमिक स्टडीज, इकनॉमिक अँड पोलीटिकल वीकली, कॉमर्स, इंडियन जर्नल ऑफ ॲग्रिकल्चरल इकनॉमिक्स, अर्थविज्ञान, इस्टर्न इकनॉमिक्स, कॅपिटल आदी. इकॉनॉमिक टायम्स आनी फायनान्शियल एक्सप्रेस हीं म्हत्वाचीं दिसाळीं अर्थशास्त्राक ओंपिल्लीं आसात.

इंग्लीश तशेंच हेर भारतीय भाशांतल्यान अर्थशास्त्राचेर तरेकवार ग्रंथ आसात आनी नेमाळींय उजवाडाक येतात.

**अर्थशास्त्र आनी हेर समाजीक शास्त्रां:** समाजीक शास्त्रां मनशाच्या विंगड विंगड वेव्हाराचो, वर्तनाचो, वस्तुनिश्ठपणान अभ्यास करतात एका प्रकारच्या वेव्हारांचो परिणाम दुसऱ्या प्रकारच्या वेव्हारांचेर जाल्ल्यान

सामाजीक शास्त्रांचो एकामेकांकडेन संबंद येता.

**राज्यशास्त्र आनी अर्थशास्त्रः** अठराव्या शतमानाच्या निमण्या दशकामेरेन अर्थशास्त्राक युरोपांत 'राजकी अर्थशास्त्र' अशेंच नांव आशिल्लें. चाणाक्य वा कौटिल्य हाणें तर चडसो राजकारणाचो अभ्यास करपी आपल्या ग्रंथाक 'अर्थशास्त्र' हें नांव दिल्लें, हाचेवेल्यान 'अर्थ' आनी 'राजकारण' हांचो लागींचो संबंद दिसून येता.

राज्यसंस्थेची निर्मणी जावंचे पयलींसावन मानवी समाजांत अर्थीक वेव्हार जाताले. उत्पादन, सेवन ह्या सारक्या मुळाव्या अर्थीक वेव्हारांक राज्याची गरज आसताच अशें ना. पूण सद्या संवसारभर खंयच्या ना खंयच्या शासनाची सत्ता लोकांचेर बंधनकारक आशिल्ल्यान प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष अशे सगळे अर्थीक वेव्हार राज्यसत्तेच्या अधिकाराखाल येतात. चांचेगिरी सोडून आंतरराष्ट्रीय वेपार पुराय्णान राज्यांच्या संमतीन जातात.

दुसरी गजाल म्हळ्यार राज्य हें 'अर्था'चेर चलता. संवसारांतली संपन्न राष्ट्रां हेर राष्ट्रांचेर अधिकार चलयतात. अर्थशास्त्रांत जसो राज्याच्या विंगड विंगड धोरणांचो अर्थीक नियाळ करचेखातीर राज्यशास्त्रांचो अभ्यास गरजेचो आसता तशेंच दरेक राज्याकय आपली सामग्री संपन्न करचेखातीर आनी लोकांची परिस्थिती सुदारचेखातीर अर्थशास्त्राचो पालव घेवप म्हत्वाचें आसता.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत अर्थशास्त्र आनी राज्यशास्त्र हांच्या संबंदाक एक वेगळेंच मोडण मेळ्ळें. 'नियोजित अर्थवेवस्था' हो नवो प्रकार मुखार आयलो. रशियांत इ.स. १९२८ सावन नियोजित अर्थवेवस्थेचो प्रयोग सुरू जालो. बऱ्याच हेर देशांनीय 'नियोजित अर्थवेवस्थेचो' प्रत्यक्ष वेव्हारांत उपेग करूंक सुरवात केली. अर्थशास्त्राच्या नव्या नव्या अवस्थांचो प्रयोग जावंक सुरवात जाली. राष्ट्रीय अर्थीक आनी समाजीक उदरगत सादचेखातीर अर्थसंकल्प हें एक म्हत्वाचें साधन जालें. सद्याच्या काळांत राज्यशास्त्र आनी अर्थशास्त्र हांचो एकाच वांगडा विचार जाता.

***अर्थशास्त्र आनी मानसशास्त्रः*** मनशाचे वेव्हार मानसिक निर्णयांतल्यान जातात. अर्थीक वेव्हारय अशा निर्णयांतल्यान घडटात. ताका लागून मानसशास्त्रीय अभ्यासाचो अर्थशास्त्राचे मांडावळींत उपेग जाता. सद्याच्या काळांत उद्येगीक मानसशास्त्र, कामगारांच्यो प्रतिक्रिया, समाजीक मानसशास्त्र ह्या सारक्या शास्त्रांच्या तज्ञांनी केल्लो अभ्यास अर्थशास्त्राखातीर भोव उपेगाचो आसा. आर्विल्ल्या अर्थशास्त्रांतली सेवनक्रिया (Consumption Function), मागणी विक्रिया (demand function), पुरवण विक्रिया (Supply function) ह्यो उपपत्ती मनशाच्या प्रवृत्तींच्या अभ्यासावयल्यान तयार केल्ल्यो आसतात.

मानसशास्त्राच्या अभ्यासांतल्यान मनशाच्यो विंगड विंगड प्रवृत्ती (सेवनप्रवृत्ती, संचयप्रवृत्ती ह्या सारक्यो) कशेतरेन काम करतात हें समजता आनी ताचेवयल्यान अर्थशास्त्राच्यो उपपत्ती फुडें मांडटात वा सुदारतात. प्रो. केन्स हाच्यो उपपत्ती समाजीक मानसशास्त्राचेर आदारित आसात. मनशाचें वैयक्तिक आनी समाजीक वर्तन कशें प्रभावित जाता आनी प्रतिक्रिया कशो घडटात हांचो शास्त्रशुध्द विचार मानसशास्त्रांत जाता. ह्या सगल्या म्हायतीचो उपेग अर्थशास्त्राच्या अभ्यासाखातीर जाता.

इ.स. १९३० उपरांत सार्मश्टिक (Macro) अर्थशास्त्राचो अभ्यास जावंक लागलो आनी सगळ्या अर्थीक प्रस्नांच्यो जापो वैयश्टिक (Micro) अर्थशास्त्रावरवीं मेळना हें सिध्द जालें. हाच्या पयलींच कांय वर्सां मानसशास्त्रांतय समाजीक मानसशास्त्राच्या अभ्यासाचेर नेट दिवपाची गरज जाणवल्ली. हे नवे नदरेंतल्यान जो समाजीक मानसशास्त्रीय अभ्यास जालो, ताचो उपेग अर्थशास्त्रीय नवे पध्दतीक जालो.

सुर्वेच्या अर्थशास्त्रांतलो 'अर्थीक मनीस' (Economic Man) ह्या सारक्यो कल्पना वास्तव मानसिक अभ्यासाकलागून पयस जाल्यो. प्रो. केन्स हाच्या क्रांतिकारी अर्थीक विचारांची बसका म्हळ्यार समाजीक वेव्हारांचे बारीकसाणीन केल्लें निरीक्षण हीच आशिल्ली. पयल्या म्हाझुजाउपरांत सनातनवादी अर्थशास्त्राचो मार्ग सोडून ताणें वेगळे पध्दतीन विचार मुखार घालूंक सुरवात केली. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार ताचो समाजीक मनाची अभ्यास. बेकारीच्या संदर्भांत परंपरागत अश्या बऱ्याच काळासावन चलतल्या समतोल प्रस्थापनेचो विचार प्रमाण मानीनासतना बेकारीच्या प्रस्नाचेर खोलमेरेन विचार करून तांच्या मुळाचेर उपाय सुचवपाचो मार्ग ताणें सोदलो. हातूंत ताच्या मानसशास्त्रीय अभ्यासाचो बरोच वांटो आशिल्लो.

**समाजशास्त्र आनी अर्थशास्त्रः** मनशाची संस्कृताय आनी उदरगत हांचो पुराय अभ्यास करपी शास्त्र म्हळ्यार समाजशास्त्र. समाजाचे वेव्हार, संस्थांची रचणूक, परंपरा, रुढी, चालीरीती, पध्दती हांच्यावरवीं जातात. मनीससमाजाची खाशेलेपणां म्हळ्यार भाशा, नितीनेम, धर्मकल्पना, शिक्षणवेवस्था, तंत्रउदरगत, क्रीडा उदरगत, अर्थ उदरगत, कला उदरगत, शासनवेवस्था आनी शास्त्र उदरगत ह्या सारक्यो गजाली आसात. तांचो अन्योन्य संबंद आनी एकामेकांवयलो प्रभाव हो समाजशास्त्राचो अभ्यासविशय जावन आसा.

समाजशास्त्राचो अभ्यास अर्थशास्त्राखातीर केल्ल्यान 'समाज' आनी 'अर्थ' हांच्यामदलें घुस्पागोंदळाचे संबंद स्पश्टपणान दाखवंक येतात. मनीस हें एक अर्थीक यंत्र न्हय, तर समाजीक अस्तित्व. आनी ताचो समाजाकडेन आशिल्लो वेव्हारसंबंद तोडून अर्थीक येवजण मुखार हाडीत जाल्यार ती फळादीक जायना हें सद्याच्या अभ्यासावयल्यान जाणकारांक पुरायपणान समजलां. फकत आकडेवारीच्या पालवान सगळे अर्थीक प्रस्न सुटावे जायनात. ताका समाज शास्त्रीय सिध्दांताचो सांगात आसचो पडटा. हे गजालीक लागून समाजशास्त्राचो अभ्यास अर्थशास्त्राखातीर म्हत्वाचो आसता आनी ह्या दोनय शास्त्रांमदीं लागींचे संबंध येतात.

**इतिहास आनी अर्थशास्त्रः** समाजीक शास्त्रांमदीं सैमीक शास्त्रांभशेन पयली थारावन प्रयोग करप शक्य नासता. काळाप्रमाण घडत गेल्ल्या घडणूकांवयल्यान तांचो अभ्यास करचो पडटा. ताका लागून इतिहासाक जाणकार 'समाजीक शास्त्रांची प्रयोगशाळा' अशें म्हणटात. वस्तूंच्या मोलांतले फरक, मागणेतले फरक, रोजगारी, बेकारी, उत्पादनविक्री, चलनवाड, चलनघट हांचे परिणाम जाय ते प्रमाण घडवन हाडप शक्य नासता; ताका लागून सगळ्यो अर्थीक घडणुको जशो घडत गेल्यात तसोच तांचो अभ्यास करचो पडटा. अर्थीक इतिहासाच्या नियाळांतल्यान अर्थशास्त्राक अभ्यासाचो विशय मेळटा. ह्या अभ्यासांतल्यान सिध्दांत मांडप जातात. दिसपट्टो वेव्हार होच अर्थशास्त्राचो खरो आदार आसता. जेन्ना वेव्हार आनी सिध्दांत हांची फारकत जाता, तेन्ना सिध्दांतांचें म्हत्व उणे जाता.

समाजांतल्या बदलांची दखल घेवप हेर खंयच्याय शास्त्राभशेन अर्थ-शास्त्राकय भोव गरजेचें आसा. ही दखल घेवपाचें कार्य इतिहास करता. ताका लागून अर्थीक बदलांचो इतिहास आनी इतिहासांत जावपी अर्थीक बदल हांचो संबंध सामको लागींचो थारता.

- कों. वि. सं. मं.

**अर्थसंकल्प** (अदमासपत्रक): येवजण (plan) प्रत्यक्षांत हाडपाचें साधन म्हळ्यार अर्थसंकल्प (Budget). येवजण चड काळाखातीर आसता, जाल्यार अर्थसंकल्प थोड्या काळाखातीर. देखीक- पांच वर्सांची येवजण आसली जाल्यार ती प्रत्यक्षांत हाडचेखातीर आंखिल्लो दर वर्साचो आराखडो अर्थसंकल्पाचें रूप घेता. तशेंच, येवजण सादारण दिका थारायता, जाल्यार अर्थसंकल्प त्या दिकांनी फुडें सरपाच्यो बारीकसाणी आंखता.

येणावळ आनी खर्च हीं अर्थसंकल्पाचीं दोन तासां. येवजणेंत घालून दिल्ल्या सुचोवण्यांप्रमाण हीं दोनूय तासां मांडपाचें काम अर्थसंकल्पाचें. हांगा अर्थसंकल्प दोन तरांनी वावुरता. १. येणावळ आनी खर्चाची मांडावळ २. येणावळ आनी खर्चाचें नियंत्रण.

येणावळीच्यो तशेंच खर्चाच्यो बऱ्योच वाटो आसतात. तेखातीर नियंत्रणाचें साधन म्हूण वापरतना मुखेल अर्थसंकल्प ताच्या भागांनी

(constituents) वांटून घेवप गरजेचें थारता. ताका लागून येवजणीच्या उद्देशाप्रमाण अर्थसंकल्प आंखल्या उपरांत येणावळीच्या आनी खर्चाच्या वाटांप्रमाण ताचे भाग करचे पडटात. असो दरेक भागाचो उप-संकल्प घडटा. गरज पडल्यार ताची फुडली विभागणी करची पडटा. फाव त्या थरांचेर पावल्या उपरांत आंखिल्ली येणावळ आनी खर्चाची मांडावळ वस्तुस्थितीचे गरजेप्रमाण सुदारची पडटा; आनी अशे सुदारिल्ले उप-संकल्प जोडून पर्थून मुखेल अर्थसंकल्प घडटा. हो सुदारिल्लो अर्थसंकल्प येवजणेच्या उद्देशांप्रमाण कांय फावट बदलचो पडटा आनी वयर बरयिल्ली प्रक्रिया पर्थून करची पडटा. हो अर्थसंकल्पाचो वावर आसा.

कितल्याशाच थरांचेर आनी स्थितींनी अर्थसंकल्पाची गरज पडटा. तांचेमदले तीन मुखेल थर म्हळ्यार राश्ट्रीय, अर्थसंस्थीक (Economic organisational Level) आनी वैयक्तिक (Personal) .

राश्ट्रीय थरांचेर अर्थसंकल्प चडसो एका वर्साखातीर जाता. राश्ट्रीय सरकाराची येणावळ आनी खर्च हीं राश्ट्रीय अर्थसंकल्पाचीं दोन तासां. हे येणावळीच्यो आनी खर्चाच्यो वाटो लक्षांत दवरून उप-संकल्प आंखचे पडटात. राश्ट्रीय पांवड्यार हे सरकाराच्या खात्याप्रमाण आंखतात. म्हळ्यार दरेक खात्याचो एक उप-संकल्प आसता.

राश्ट्रीय भूगोलीक वाठारांच्या अर्थीक स्वायत्ततेप्रमाण तांचे अर्थसंकल्प आसतात. ते राश्ट्रीय आनी प्रादेशिक येवजणींप्रमाण घडयतात आनी राश्ट्रीय अर्थसंकल्पाक जोडटात.

राश्ट्रीय आनी प्रादेशिक येणावळीच्यो तीन मुखेल वाटो म्हळ्यार १. कर २. सरकारी मालकेच्या अर्थीक वेवसायांनी जोडिल्लो फायदो आनी ३. रेणां. अर्थसंकल्पांत ह्या तीनय वाटांचो फाव तसो तोल राखचो पडटा, कारण तांचेवरवीं राश्ट्राचे, वाठाराचे भलायकेची उदरगत सादची आसता.

राश्ट्रीय, प्रादेशिक खर्चाच्यो दोन मुखेल वाटोः १. लोकांच्यो सदच्याच्यो गरजो भागोवपाचो खर्च आनी २. उत्पादीक भांडवलाची रचणूक करचेखातीर खर्च. वट्ट खर्चाच्या मर्यादे भितर ह्या दोन तरांच्या खर्चांमदीं तोल राखप अर्थसंकल्पाची जापसालदारकी आसता.

अर्थसंस्था म्हळ्यार अर्थीक हेतान चलपी संस्था. तिचो उद्देश, फायदो, विक्री, उदरगत वा हेर खंयचोय अर्थीक हेत आसूंक शकता. ह्या उद्देशाक अनुसरून ही संस्था आपली येवजण आंखता. हे येवजणेन थारावन दिल्ली मोख हातासचेखातीर अर्थसंकल्प घडटा.

अर्थसंस्थेचे येणावळीची आनी खर्चाची मांडावळ ह्या अर्थसंकल्पांत जाता. संस्थेचे रचणुके प्रमाण आनी वावराप्रमाण ताची वांटणी उप-संकल्पांत जाता. हे वांटणेचे सादारणपणान दोन प्रकार आसतातः १. उत्पादनाप्रमाण. २. जापसालदारकेप्रमाण. पयल्या प्रकारांत दरेक उत्पादांचो एक उप-संकल्प घडटा, ताचेवरवीं दरेक उत्पादाचे येणावळीचो आनी खर्चाचो अदमास आनी नियंत्रण शक्य जाता. दुसऱ्या प्रकारांत दरेक जापसालदारकेच्या वाठाराचो एक उप-संकल्प आसता. देखीक- उत्पादन, विक्री, संशोधन आनी उदरगत आदी. हाचेवरवीं त्या वाठाराच्या वित्तीय उत्पादकतेचेर नियंत्रण दवरप शक्य जाता.

वैयक्तीक अर्थसंकल्प म्हळ्यार वैयक्तीक येणावळीचो आनी खर्चाचो अदमास. ताचेवरवीं येणावळ आनी खर्च हांचेमदीं तोल राखप शक्य जाता.

- प्रा. तेनसिंग कार्लुश रोद्रीगीश

**भारतांतलो अर्थसंकल्पः** मॉंटेग्यू- चेम्सफोर्ड हांच्या १९२०-२१ तल्या सुदारणेउपरांत भारतांत केंद्रीय अर्थसंकल्प प्रांतीय अर्थसंकल्पाकडल्यान वेगळो काडलो. केंद्र आनी प्रांत हांकां वेगवेगळे कर थारावन दिले आनी खर्चाचीय वांटणी जाली. स्वतंत्रतायेपयलीं भारतीय अर्थसंकल्प म्हळ्यार जमा आनी खर्च हांच्या अदमासाचो एक आलेख आसतालो. स्वतंत्रताये उपरांत देशाच्या अर्थनीतीचें एक प्रभावी साधन म्हूण ताचेकडेन पळोवप जालें.

भारतांत अर्थसंकल्प शासनाकडल्यान संसदेंत मांडप जाता. राज्यांभितर तो थंयच्या विधानसभेमुखार मांडटात. संसदेन मान्य केल्या उपरांतच कर वा खर्चाविशींच्यो येवजणी वावराक लागतात.

अर्थसंकल्पाचे निर्मणेंत बरेच पावंडे आसात. विंगड विंगड खात्यांचे थळावे अधिकारी आपापले अदमास तयार करतात आनी मागीर खात्यांचे मुखेली हे अदमास एकठांय करतात. मंत्रालयां ह्या अदमासाचो नियाळ करतात आनी थंयसावन हीं अदमासपत्रकां तपासणेखातीर अर्थमंत्रालयांत वतात. अर्थमंत्रालयांत हे समेस्त अदमास एकठांय करून तांचेवेल्यान संसदेमुखार मांडपाचो अर्थसंकल्प तयार जाता. राज्यांनीय केंद्राप्रमाणच अर्थसंकल्प तयार जातात. मंत्रिमंडळांचे वतीन हे अर्थसंकल्प मुखार मांडटात.

अर्थसंकल्प मांडटकच ताचेर भासाभास जाता. उपरांत सगळ्या विंगड विंगड मागण्यांचेर मतां घेतात. दरेक खात्याचो मंत्री आपल्या खात्याच्या खर्चाक पैशांची मागणी करता आनी अशेतरेन खर्चाची तजवीज जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**अर्धनारीश्वरः** शिव-पार्वतीच्या संयुक्त रुपाक अर्धनारीश्वर म्हण्टात. हे मुर्तीचो अर्दो भाग शिवाचो जाल्यार अर्दो पार्वतीचो. दोनूय भाग एकामेकांक बरे तरेन जोडिल्ले आसतात. दक्षिण भारतांत, उत्तर भारतापरस ह्या रुपांत घडयिल्ल्यो जायत्यो मूर्ती दिश्टी पडटात. शिव-शक्ती वा दादल्या-बायलांच्या तत्त्वांचो संयोग हें ह्या सैमाचें मूलतत्त्व. ह्या संयोगाची प्रतिमा अर्धनारीश्वराच्या रुपांत कल्पिल्या.



**अर्धनारीश्वर**

अर्धनारीश्वराचे उत्पत्तीची कथा पुराणांत फुडले तरेन चलताः ब्रह्मदेवान सृश्ट निर्मुपाखातीर मानसपुत्राची उत्पत्ती केली आनी ताका प्रजा निर्मुपाची आज्ञा केली. पूण ताचेकडल्यान तें काम जालें ना. ताका लागून ब्रह्मदेव खंती जालो. ताणें खर तप केलें. ताच्या तपाच्या प्रभावान ताचे तकलेंतल्यान अर्धनारीश्वराच्या रुपांत शिव भायर सरलो आनी

ब्रह्मदेवाक दर्शन दिलें. उपरांत शिवान स्वताचे बायलेकडेन यौगीक प्रक्रियेन समागम करून, ब्रह्मा-विष्णू-शिवासयत परतून सृश्ट निर्मिली (लिंग पुराण-४१).

सृश्ट घडोवपाक दादल्या बायलेचो संबंद येवप गरजेचो आसता. झाडां-पेडां, फुलां-फळां, सुकणीं-सावदां, मनीस आदी प्राणीमात्रांत दादल्या सावन बायलेक गर्भधारणा जावन प्रजेची उत्पत्ती जाता. सृश्ट घडचे आदीं सावन चलत आयिल्ल्या ह्या नेमाक पुराणाचे प्रतीक भाशेंत पार्वतीपरमेश्वर वा शिव-पार्वती म्हळां.

मूर्तिशिल्पांत शिवाचें अर्धनारीश्वर रुप सामान्याभायलें सोबीत थारलां. कवी आनी तत्त्वज्ञ ह्या दोगांकय ह्या रुपान भूल घाल्या. कालीदासान रघुवंशाच्या आरंभाक, अर्धनारीश्वराचें नांव घेनासतना ताका अशें वंदन केलां:

वागर्थाविव संपृक्तौ वागर्थप्रतिपत्तये।
जगतः पितरौ वन्दे पार्वतीपरमेश्वरौ।। (१.१)

अर्थः उतरां आनी तांचे अर्थ हांचें पुराय गिन्यान जावंचे म्हूण उच्चार आनी तांचे अर्थ हांचेवरी एकामेकांक लागीं येवन एकजीव जाल्ल्या ह्या संवसाराचो आवय-बापूय अशा पार्वतीपरमेश्वराक हांव वंदन करतां.

पूर्विल्ल्या काळांत योनी आनी लिंग हीं दोनूय वेगळीं प्रतिकां आसलीं. काळांतरान मनशान ह्या दोनूय प्रतिकांक शिवलिंगांत एकठांय हाडून तांची पूजा सुरू केली. मनीस जेन्ना मूर्ती घडोवपाक शिकलो, तेन्ना योनी आनी लिंग हीं प्रतिकां अर्धनारीश्वराच्या रुपांत घडोवपांत आयलीं. मनशाचें जिवीत खंड पडूंक दिनासतना चलपाखातीर ह्या दोनूय प्रतिकांचें मीलन जावप गरजेचें आसा. हो ह्या रुपाफाटलो मुखेल हेत आसा. सृश्ट घडचे पयलीं दादलो-बायल भेद कसो करताले ताची जाप दिवपाचो हो एक यत्न.

रुद्रहृदयोपनिषदांत संवसारांतलें सगळें पुरुषरुप म्हळ्यार शिव तर नारीरुप म्हळ्यार उमा (पार्वती) अशें म्हळां. हीं दोगांय म्हळ्यार जगत्कारण. 'अग्नीषोमात्मकं जगत्' अशें श्रुतिवचन आसा. उजो हें दादल्याचें तत्त्व आसून तें बायलेच्या रजांत आसता. सोम हें बायलेचें तत्त्व आसून तें दादल्याच्या शुक्रांत आसता. काम हो भाव दोगांकय एकामेकाक लागीं हाडटा. हाकालागून दोनूय तत्त्वां एकामेकांचेर भाळटात. तत्वज्ञानय होच आशय सांगता. शिव जेन्ना शक्तीन भरिल्लो आसता, तेन्नाच कार्य करता. शिवागमांतल्या अव्दैतांत शक्तीचो म्हळ्यार मायेचो त्याग केल्लो नासून ब्रह्मशक्ती म्हूण तिचो आपले कुडींत आस्पाव केला. शिवशक्तीकडेन सदांच समरस जावप म्हळ्यारूच अद्वैत अशें मानलां. माया ही प्रकृती आसून महेश्वर हो तिचो धारणकर्तो.

हेमाद्रीन अर्धनारीश्वराचें रुप कशें घडोवचें तें सांगलां:

शिवाची दावी बाजू बायलेची करची. तिच्या कपलाक कुकूम लावचो. केंसांचो भरिल्लो आंबाडो घालचो. गळ्यांत हार घालचे. थानां वाटकुळीं, भरिल्लीं आनी मोटीं आसचीं. एका हातांत कमळ आनी एका हातांत हारशी दिवन दोळ्यांत काजळ घालचें.

शिवाची उजवी बाजू दादल्याची करची. तिचेर सगळीं दादल्याचीं लक्षणां दाखोवचीं. तकलेर जटांचो भार आनी ताचेवयर चंद्र आसचो. आंगाक भस्म आनी सोरपाचें जानवें घालचें. लिंग उबारिल्लें आसचें. कमराक सर्पमाळ, पांयांचेर कमळ, हातांत त्रिशूळ आनी रुद्राक्षाची माळ आसची.

तंत्रसारांत अर्धनारीश्वराचें ध्यान फुडले प्रमाण दिलां:

नीलप्रवालरुचिरं विलसत्त्रिनेत्रम्।
पाशारुणोत्फ्लकपालकशूलहस्तम्।
अर्धाम्बिकेशमनिशं प्रविभक्तभूषम्।
बालेन्दुबध्दमुकुटं प्रणमामि रुपम्।।

अर्थः निळ्या पोंवळ्यावरी सुंदर दिसपी तीन दोळ्यांचो, हातांत पाश, रक्तकमळ आनी त्रिशूळ धारण करपी, दादल्या-बायलेच्या भेसांत दिसपी, मुकुटांत चंद्रकोर धारण करपी अर्धनारीश्वराक हांव नमस्कार करतां.

तंत्रसारांत हाचे पूजाविधी, जप आनी होम सांगल्यात.

तिसऱ्या शतमानांत पॅरीफिरी हाणें अर्धनारीश्वराचे मूर्तीचो पयलो उल्लेख केला. ताका अशी मूर्ती उत्तर भारतांतल्या एके घोलींत मेळिल्ली.

दुसरी मूर्ती घारापुरी हांगा आसून तिची उंचाय १६ फूट ९ इंच आसा. थंयच्या फातरापट्यांत अर्धनारीश्वराची मूर्ती दोन भुजां आशिल्ली आनी उबी आसा. ह्या शिल्पांत शिवाच्यो जटा आनी पार्वतीचीं तटतटीत थानां दिश्टी पडटात. बादामीचे घोलींतली मूर्ती चार भुजांची आसून तिच्या सकल्या हातांत आडवो दांडो आसा. वेल्या दोनूय हातांत सोरपान गुटलायिल्लो परशु आनी कमळ हीं आसात. घारापुरी हांगासल्ली मूर्ती आठ भुजांची आनी तीन तोंडां आशिल्ली आसा. हीं तीन तोंडां म्हळ्यार शिव, रुद्र आनी उमा आसुंयेत असो समज आसा. कांय शिल्पांत शिवाचें वयर काडिल्लें लिंग दिश्टी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

## अर्धमागधी:

**अर्धमागधी:** प्राकृताचे उदीच्य, प्रतीच्य, मध्यदेशीय, प्राच्य आनी दाक्षिणात्य अशे पांच भेद जाणकारांच्या मतान आसात. अर्धमागधी हें प्राच्य प्राकृताचें एक रूप. कोसल देशांत रावपी लोक ही भाशा उलयताले. हो वाठार आतां अयोध्या शार आनी ताच्या दक्षिणेकडल्या वाठारांत आसा. अर्धमागधीचें नांव देशाप्रमाण न्हय, पूण ते भाशेच्या स्वभावधर्माक लागून अशें जालां. अर्धमागधींत शौरसेनी, मागधी आनी महाराष्ट्रीय ह्या तीनय प्राकृत भाशांचो प्रभाव दिसता. कांय व्याकरणकारांनी तर तिका 'महाराष्ट्रीमिश्रार्धमागधी' अशेंय नांव दिलां.

भरत हाणें नाट्यशास्त्रांत अर्धमागधीक, एके स्वतंत्र भाशेची सुवात दिल्या. पूण विश्वनाथ हाणें तिका गुप्तचर, राजपुत्र आनी शेट लोकांची भास अशें म्हळां. विश्वनाथाचें हें मत त्या काळच्या बऱ्याच व्याकरणकारांनी मान्य केलां. मुद्राराक्षसांतलो गुप्तचर 'क्षपणक',प्रबोधचंद्रांतलीं कांय पात्रां, अर्धमागधी उलयतना दिसतात. तशेंच भास हाणें आपल्या 'कर्णभार' ह्या नाटकांत कर्णाच्या तोंडांतपसून अर्धमागधी घाल्या.

अर्धमागधी हेर प्राकृत भाशांपरस लोकप्रिय आनी समृध्द आशिल्ली अशें म्हण्टात. कोसल प्रांतांत हिचो वापर जाल्ल्या कारणा बौध्द आनी जैन ह्या दोनय धर्माच्या प्रचाराची भास अर्धमागधी आशिल्ली. जैन पंडितांनी हे भाशेक समेस्त भाशांची जननी म्हळां. जैन धर्माच्या श्वेतांबर पंथाच्या मुनींनी अर्धमागधींत 'सुत्तां' बरयलीं, ग्रंथ रचले आनी बरेचकडेन भोंवन उपदेश केलो. भाशा सोपी करचेखातीर ताणी सगळ्या भाशांतली उतरां अर्धमागधींत घालीं. अशेतरेन ही भास सादारण मनशांमेरेन पावली. महावीरान हेच भाशेंतल्यान उपदेश केलो. तीर्थंकरांनी बरयिल्लीं सुत्तां-समवायोग सुत्त, आयारंग सुत्त हे भाशेचे सोबीत दाखले जावन आसात. आयारंगसुत्त भाशाविज्ञानाचे नदरेन म्हत्वाचो ग्रंथ आसा कारण तातूंत अर्धमागधीचें सगळ्यांत पोरनें रुप पळोवंक मेळटा.

भाशा विज्ञानाचे नदरेन अर्धमागधी मागधीपरस सामकी वेगळी. तिची वेवस्था, प्रत्यय वेवस्था सगळेंच वेगळ्या स्वरुपाचें आसा. देखीक-

१. मागधींतले 'स' आनी 'ल' अर्धमागधींत 'श' आनी 'र' जाताः- पुलिशे(मागधी)-पुरुसे(अर्धमागधी), नले(मागधी)- नरे (अर्धमागधी).

२. मागधींत प्रथमा 'अ' ह्या स्वरान दिसता; अर्धमागधींत ती 'ए' वा 'ओ' ह्या स्वरांनी दिसता.

३. अर्धमागधींत संयुक्त स्वर आसल्यार एक व्यंजन नाशें जाता आनी तांच्या पयलींचो स्वर दीर्घ जाता. देखीक- भुक्तं (संस्कृत)- भुतं (अर्धमागधी)- भुत्तं (मागधी).

अर्धमागधीचे कांय खासा गूण म्हळ्यारः

१. बरेचकडेन व्यंजन ना जावन ते सुवातेर अर्दस्वर जाता. देखीकः सागर-सायर, स्थित-ठिय.

२. 'क' चे सुवातेर 'ग' जाता. देखीकः अशोक-असोग, श्रावक-सावग.

३. भूतकालीन तृतीय पुरुशाचें बहुवचन 'इंसु' ह्या प्रत्ययान मांडटातः पुच्छिंसु, गच्छिंसु आदी.

४. 'त्वा', 'ल्यप्' हांचे सुवातेर 'इतु' प्रत्यय येता. देखीकः श्रुत्वा-सुणित्तु', 'ज्ञात्वा'- 'जाणितु', 'अपहृत्य'- 'अवाहट्टु'.

५. तद्धिताचे बरेच भेद अर्धमागधींत मेळटात.

ही भास चडशी धर्मप्रसाराखातीर वापरिल्ल्यान तातूंत त्या काळावयलें बरेंच साहित्य निर्माण जालें आनी त्या कारणाक लागून ती सगळ्या लोकांमेरेन पावंक शकली.

-डॉ. पुष्पा पै

संदर्भः १. कुलकर्णी, कृ. पां., मराठी भाषाः उद्‌गम व विकास, पुणे; २. वर्मा, धीरेन्द्र, हिन्दी भाषा का इतिहास.

**अर्नोल्डसन, क्लास पोंटसः** (जल्मः २७ ऑक्टोबर १८४४; गोएतबर्ग, स्वीडन; मरणः २० फेब्रुवारी १९१६, स्टॉकहोम).

एक नामनेचो राजकारणी. नॉर्वेजियन-स्विडीश युनियनाच्यो समस्या सोडोवपाखातीर ताणें उपाट कश्ट घेतले. सुर्वेक कारकून म्हूण रेल्वे खात्यांत प्रवेश करून स्टेशन मास्तरच्या उंचेल्या पदाचेर पावलो. फुडें, रेल्वे खात्यांतली नोकरी सोडून ताणें आपलें पुराय जिवीत राजकारण आनी शांततायेच्या वावराखातीर ओंपलें.

१८८१ त, रिक्सदाग हे स्विडीश संसदेंत तो वेंचून आयलो. तो एक निष्ठावान शांततावादी फुडारी आशिल्लो. नॉर्डिक राश्ट्राचे तटस्थतायेखातीर ताणें फाटबळ दिलें. १८८३ त, ताणें भासाभास आनी शांतताय हांच्याखातीर स्वीडीश संस्थेची थापणू केली. १८९० त, नॉर्वे आनी स्वीडन हांच्यामदीं चालू आशिल्ल्या खर संघर्शावेळा ताणें दोनूय राश्ट्रांत लोकजागृताय घडोवन हाडून शांततायेन तोडगो काडपाखातीर खूब खटपट केली. शांतताय पातळावपाखातीर ताणें केल्ल्या मोलादीक वावराखातीर १९०८ त, शांततायेखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार ताका बेजर फ्रेड्रिक हाच्यावांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**अर्हेनिअस, स्फान्ता ऑगस्टः** (जल्मः १९ फेब्रुवारी १८५९, व्हीक, स्वीडन; मरणः २ ऑक्टोबर १९२७, स्टॉकहोम).

एक नामनेचो शास्त्रज्ञ. भौतिकीय रसायनशास्त्र ह्या विशयाची बुनयाद ताणें घाली. ताच्या आयनीय सिध्दांताक (ionic theory) लागून रसायनीक संयुगांची रचणूक आनी तांची विद्रावांतली वर्तणूक समजप एकदम सोंपें जालें.

ताचें शिकप अप्सालां विद्यापीठांत जालें. १८८१ त ताणें स्टॉकहोम हांगा वचून प्रोफेसर इ. एडलंड हाच्या हातासकयल 'Solutions and electrolytes' ह्या विशयाचो अभ्यास केलो. १८८३ त, ताणें एक म्हत्वाचो सोद लायलो. जीं संयुगां (compounds) विद्रावांत (electrolytes) वीज वहन करतात तांची रचणूक हेर संयुगांपरस वेगळी आसता. ह्या electrolytes विद्रावांत (ions 'आयन्स') नांवाचे ल्हान विद्युत्‌भारीत कण (charged particles) आसतात असो ताणें सोद लायलो. धन (+) आनी ऋण (–), आयन्सांमदल्या आकर्शण शक्तीक लागून ते संयुगाच्या घन रुपांत उरतात. विद्रावांत आसतना हे आयन्स विच्छेदित (dissociate) जावन मुक्तपणान भोंवतात. Electrolysis वेळार धन आयन्स ऋण विद्युत् प्रस्थाकडेन वतात आनी ऋण ions धन विद्युत् प्रस्थाकडेन वतात. अशे तरेन electolysis च्या ह्या प्रकारांत आयन्सांच्या हालचालीक लागून विद्युत प्रवाह सुरू जाता. १८८४ त ताणें आपलो प्रबंध सादर केलो पूण ताचोच गुरु नामनेचो रसायनशास्त्रज्ञ पर क्लीव हाणें ताचो प्रबंध विचारांत घेतलोना. पूण अर्हेनिअस मात्तूय निर्शेलोना. ताणें आपल्या प्रबंधाच्यो प्रती क्लॉसियस, लोथर मेयर, ओस्वाल्ड आनी वँट हॉफ हांकां धाडल्यो. तांणी अर्हेनिअसच्या संशोधन कार्याची तुस्त-तोखणाय केली.

१८९७ त जे. जे. थॉमसन ह्या शास्त्रज्ञान इलेक्ट्रॉनचो सोद लायलो आनी त्याच सुमाराक हेन्री बेकेरल हाणें लायिल्ल्या Radioactivity च्या सोदाक लागून अर्हेनिअसाच्या विद्युत्‌भारीत अणुविशींच्या (charged atom) कल्पनेचें आनीकूय स्पश्टीकरण मेळ्ळें. Ionic Theory च्या सोदाक लागून १८८७ सावन अर्हेनिअसाचे नांव सगळ्याक पातळ्ळें. १९०२ त ताका रॉयल सोसायटीचें डेव्ही पदक मेळ्ळें. 'Electrolytic theory of dissociation' ह्या ताच्या असामान्य सोदाक लागून रसायनशास्त्रांतली फुडली उदरगत सोपी जाली. देखून १९०३ त, रसायनशास्त्र विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार ताका फाव जालो. १९०५ त, Nobel Institute for Physical Chemistry हे संस्थेच्या संचालकपदाचेर ताची नेमणूक जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**अलंकारः** अमरकोशांत 'अलम्' ह्या उतराचे चार अर्थ दिल्यातः भूषण, पर्याप्ति, शक्त आनी वारण. अलंकार उतराचो अर्थ भूषण असो जावन आसा. अलंकाराक आभरण अशेंय म्हण्टात. हें उतर भर् ह्या धातूवेल्यान आयलां. ताचो अर्थः आंगार घालप, दवरप वा बाळगप. अथर्ववेदांत ह्या उतराचो अर्थ मंत्रसामर्थ्य वा मंत्रशक्तीन भारिल्ली वस्त असो जाता. ऋग्वेदांत ताचो अर्थ इत्सा केल्ली वस्त हाडप असो जाता.



हार

आपली कूड सोबीत आनी ओडलायणी दिसची हो मनशाचो उपजत स्वभावधर्म. तेखातीर तो आपल्या आंगार अलंकार घालीत आयला. पूण ह्या अलंकाराचो हेत फकत सोबितकायेखातीर कूड सजोवप इतलोच न्हय तर जिविताची राखण, देव-देवतांची कृपा, आनी पिशाच्चांचे निराकरण अशे जायते उद्देश दिसून येतात. दिश्टबादा आनी ग्रहबादा जावंची न्हय असोय ताचो उद्देश आसा. ताकाच लागून अलंकारांनी नाग, कमळ असलीं प्रतिकां आयलीं. ल्हान भुरग्यांच्या गळ्यांत वागाचीं नाखटां घालपाची पध्दत राखणेच्या उद्देशान आयल्या. धातूच्या अलंकारांक लागून भुतां-खेतांपसून निवारण जाता आनी देवाची कृपा जाता असो एक समज आसा. ताका लागून तांब्याच्यो वस्ती आनी ल्हान भुरग्यांच्या पांयांत तांब्याचे वाळे घालतात. गळ्यांत घालपाचे दोरे आनी पोंवळें, मणी, तावजां हाचेवेल्यान अलं-कारांचो संबंद जादूविद्येकडेन आसा अशें दिसून येता. लग्न जाल्ले बायलेच्या मंगळसुत्रांत भूषणापरस राखणेचें भावनेक चड म्हत्व आसा. लग्नांत मुदीय संरक्षक म्हूण व्हंकले न्हवऱ्याच्या बोटांत घालतात.



नथ

अविचलता, ओडलायणो रंग आनी जाय तसो आकार घेवपाचें सोंपेपण हाका लागून भांगराचो अलंकारांत चड वापर जावंक लागलो. भांगरावांगडाच रूपें, कथील, जस्त, तांबें असल्याय धातूंचो

अलंकारांखातीर वापर जावंक लागलो. अलंकारांक ऐहिक मोल आयलें, देखून अलंकार जमोवप म्हळ्यार वैभव, समृध्दी, समाजीक प्रतिष्ठा, भलायकी आनी सुरक्षितताय हांचें प्रतीक जावन गेलें.



हार - पांच पदरी

धातूचो सोद लागचेआदीं आदले मनीस शिंपयो, घुलो, पानां, फुलां, फळां, वालींचे देंठ, तशेंच तरातरांच्यो बियो, फातर, माती मणी, दांत, नाखटां, हाडां, केंस हांचेपसून तयार केल्ले तरेकवार अलंकार वापरताले. भिल्ल बायलो गुंजांचे हार घालतालीं असो उल्लेख एका संस्कृत श्लोकांत आयला:

किं जातु गुंजाफलभूषणानाम्।
सुवर्णकारे वनेचराणाम्।

(विक्रमाकदेवचरित १.२५)

अर्थः गुंजांचे हार घालतकच रानटी भिल्ल बायलांक तांचे वसतींत शेटीची गरज कित्याक?



कुंडल

भारतांत दादल्यांपरस बायलो अलंकार चड वापरतात. भारतीयांनी आपली कूड अलंकारांनी, भांगर, रत्नां तशेंच माणकां-मोतयांनी सजयलीच पूण तेच वांगडा गायो, घोडे, हत्ती असल्या जना- वरांकूय अलंकारांनी सजयलीं.

वैदिक साहित्याभितर आयिल्ल्या कांय अलंकारांचीं नांवां अशीं:-

**ऋग्वेदः** अंज, अंजि, अरंकृत, अरंकृति, आनूक, ओपश, कर्णशोभन, कुरीर, कृशन, कृशनिन्, खादि, निष्क, न्योचनी, पुंडरीक, पुष्कर, प्रभपन, बर्हन, भूपन, मणि, रत्न, रुक्म, रुक्मिन्, ललामी, वरिमत्, व्यंजन, विभूषन, शतपत्र, शिंबल, सुनिष्क, स्तुका, स्रज्, हिरण्ययी, हिरण्यशिप्र, हिरीमत्.

**तैत्तिरीय संहिताः** पुण्डरिस्रज् (भांगराच्या कमळांची माळ), पुष्कर, प्रवर्त, प्राकाश, भोग, मणि, रत्न, स्रज आदी.

**अथर्ववेदः** अंजि, ओपश, कुम्ब (माथ्यार घालपाची जाळी), कुरीर, कृशन, जीवभोजन, देवांजन, नलंद, निष्कग्रीव, पुंडरीक, पुष्प, प्रसाधन, ललाम, मधूलक, रुक्मन्, ललामगु, ललाम्य, सीमन्, सुरुक्म, सुस्र, स्रज, स्वेदांजि, हरित्स्रज्, हिरण्यज, हिरण्यस्रक्, हैरण्य आदी.

**संहितेतर वाङ्मयः** प्राकाश, फण, लोहमणि, निमुक्ता, स्थागर.

**वेदोत्तर काळः** शिखापाश, शिखाजाल, खंडपत्र, चूडामणि, मकरिका, मुक्ताजाल, कुंडल, खड्गपत्र, वेणीगुच्छ, दारक, ललाटतिलक, भ्रूर, कर्णवलय, कर्णपूर, दंतपत्र आदी.

ऋग्वेदांतले मरूत् हे खूब अलंकारभोगी आशिल्ले.

चित्रैरञ्जिभिर्वपुषे व्यञ्जते।
वक्षःसु रुक्माँ अधि येतिरे शुभे।।

अर्थः आपलें आंग ते (मरूत्) चित्रविचित्र आभरणांनी सजयताले. शोभेखातीर ते आपल्या हड्ड्यार भांगराचे अलंकार धारण करताले.



नाकांतलो अलंकार (पंजाबी)

मोहेंजोदारो आनी हराप्पाच्या दादले-बायलांक अलंकारांची आवड आशिल्ली. ते मुस्तींतल्यो बायलो गळ्यांत ताईत आनी हार घालतालीं, दंडांत बाजूबंद, कानांत कर्णभूषणां, हातांत कांकणां, कमरेक मेखला, बोटांत मुदयो आनी पायांत तोरड्यो वापरतालीं अशें उत्खननांतल्यान दिसून आयलां.

तकलेर, कानांत, नाकांत, गळ्यांत, कमरेक, बोटाक, दंडाक, पायांक अशा कुडीच्या वेगवेगळ्या अवयवांखातीर वेगळे-वेगळे अलंकार वापरांत आयले.

हालीं हालींच कमी वजनाचे कृत्रीम (नकली) अलंकार आयल्यात. नकली अलंकार असली अलंकारांइतलेच सोबीत आनी चकचकीत आसतात. खऱ्या अलंकारांभशेनूच तातूंतूय रचणुकेची फिशालकाय दिसून येता.

भारतांतल्या दरेक प्रांतांत परंपरागत आनी रुढ अलंकार वापरपाची पध्दत आसा. उत्तरेकडच्या दोंगराळ भागांतल्या अलंकारांनी मध्य आशिया आनी तिबेटच्या अलंकारांचें सारकेंपण आसा. हिमाचल प्रदेशांत पिरोजा आनी पोंवळें बसयल्ले चांदीचे अलंकार खूब नांवाजिल्ले आसात. नबाबांच्या मुस्तींत लखनौ मितेकारी अलंकारांखातीर नामनेक पाविल्ले. उत्तर भारतांतल्या अलंकारांचेर मुसलमानी संस्कृतायेचो परिणाम दिसून येता. कटक हांगा पानाफुलांच्या आकाराचे चांदीचे अलंकार मेळटात. आसामचे भांगरा-चांदीचे अलंकार नाजूक दिसतात. ओरिसांतले अलंकार वजनदार दिसतात. राजस्थानचे मुलाम्याचें काम केल्ले अलंकार नांवाजिल्ले आसात. संबळपूर हांगा तांब्याचे अलंकार नांवाजिल्ले आसात. केरळांत भांगराच्या अलंकाराचे तरेकवार प्रकार आसात. तमिळनाडूंत हिऱ्यांचे अलंकार चड प्रमाणांत वापरतात.



कुंडल

महाराष्ट्र आनी गोंयांत तरांतरांच्यो भांगरा-चांदीच्यो वस्ती वापरतात. मोतयांचे हार, चपलांहार, गोठ, पांटल्यो, तोडे, भांग-तिळो, कांकणां, वज्रावेडी आदी.

- कों. वि. सं. मं.

**अलक्ष्मीः** लक्ष्मीची व्हडली भयण. तिका 'ज्येष्ठा' हें वेगळें नांव आसा. महाराष्ट्रांत तिका 'आक्काबाई'' म्हूण वळखतात. अलक्ष्मी ह्या उतराचो अर्थ जी लक्ष्मी न्हय ती असो जाता. क्षीरसागराच्या समुद्रमंथनावेळार वीख (कालकूट) भायर सरतकच, पूण लक्ष्मीच्या पयलीं दर्यांतल्यान भायर सरली म्हूण तिका लक्ष्मीची व्हडली भयण मानपाक लागले. अलक्ष्मी म्हळ्यार दारिद्र्य, दैन्य आनी दुख्ख. ती दर्यांतल्यान भायर येतकच तिणें विचारलें, 'हांव खंय रावूं? ताचेर देवांनी तिका सांगलें, 'जंय कोळसो, कुंडो आनी केंस आसतात थंय तूं राव.'

'ज्या घरांत झगडीं, झुजां, दुख्खां हांचो राबितो आसा. गुरु देव, सोयरे धायरे इश्ट हांचो अपमान जाता. जंय फट उलयतात, जंय लोक एकामेकांक फटयतात. जंय अधर्माच्यो गजाली चलतात थंय तूं राव.'

क्षीरसागराचें मंथन चलता आसतना अलक्ष्मी फाटल्यान लक्ष्मीचो जल्म जालो. तिचें विष्णूकडेन लग्न थारलें. व्हडले भयणीचें लग्न जाल्या बगर धाकलेचें लग्न करपाक जायना अशें शास्त्रांत सांगिल्ल्यान लक्ष्मीच्या लग्नाक आडमेळीं आयलीं. म्हूण देवांनी अलक्ष्मीचें लग्न उद्दालक ऋषी कडेन लायलें (पद्म पुराण ब्र. ९.१०). लिंगपुराणांत तिचें दुःसहाकडेन लग्न जाल्ल्याचें सांगलां (२.६). फुडें उद्दालकाक तिचो सभाव आवडूंक नाशिल्ल्यान तो तिका सोडून गेलो. उपरांत ती एका पिंपळापोंदा बसून रडपाक लागली. तिचें रडप आयकून लक्ष्मी, विष्णू सयत तिका मेळपाक आयली. लक्ष्मीन तिका वर दिलो की 'जे कोण अश्वत्थमूळीं तुजी पूजा करतले, ते गिरेस्त जातले.' तेन्नासावन दर शेनवारा लक्ष्मी पिंपळाच्या मुळांत तिका मेळपाक येता अशें समजतात. शेनवाराक सूर्य उदेवचें आदीं केल्ली पिंपळाची पूजा लक्ष्मीप्रद मानतात.

हे देवीचें वर्णन आगम आनी विष्णुपुराण हातूंत मेळटा. ती काळीसांवळी, तांबड्या दोळ्यांची, दोन भुजां आशिल्ली, लांब नाकाची, थानां आनी पोट व्हड आशिल्ली. काकध्वज धारण करपी, बैला सारकें व्हड तोंड आशिल्ली, आपणाल्या धूव-पुतां वांगडा आसता. सान्न हें तिचें आयुध. शीतलादेवीचें स्वरुप कांय तरेन अलक्ष्मीसारकेंच आसता. ह्या वर्णनाकडेन जुळपी मध्ययुगांतली शिल्पां पळोवंक मेळटात.

हिची भोंवडी आपल्या घराचेर येवंची न्हय म्हूण आश्विन शु. ८ महालक्ष्मीचे पूजेपयलीं ज्येष्ठा ह्या नांवान तिची पूजा करतात आनी फाटल्या दारान एक वात लावन ती घराच्या कोनशाकोनशांक भोंवडावन मुखावेल्या दारांत हाडून उडयतात. ही तरा म्हळ्यार अलक्ष्मीक भायली वाट दाखवप असो समज आसा. हाच्या उरफाटें वात दाखोवन ती घरांत हाडप, हाका लक्ष्मीक भितर येवपाची वाट दाखोवप अशें समजतात. बंगालांत आश्विन उमाशेक शेणाची 'क्षणिका अलक्ष्मी' तयार करून लक्ष्मीवरीं तिची पूजा करतात आनी उपरांत विसर्जन करतात.

पौष पुनवेक पुष्य नक्षत्र लागिल्लें आसता. त्या दिसा घरच्या दादल्यान धव्या सासवांचो लेप लावन न्हांवचें आनी अलक्ष्मीक घरांतल्यान भायर धांवडावन घालची अशें धर्मग्रंथांनी सांगलां. मागीर नारायण, इंद्र, चंद्र, बृहस्पति आनी पुष्य हांच्या मूर्तीक सर्वाषधियुक्त उदकान न्हाण घालून तांची पूजा करची तशेंच त्या वेळार होम घालचो अशें म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**अलाहाबादः** उत्तरप्रदेश राज्यांतलें पवित्र तीर्थस्थान. आदल्या काळासावन पवित्र मानिल्लें क्षेत्र, तीर्थराज प्रयाग म्हळ्यार हें अलाहाबाद. दिल्लीच्या उदेंत-दक्षिणेक उत्तर रेल्वेन दिल्लीच्यान ६२७ किमी. आनी मध्यरेल्वेन मुंबयसावन १३६० किमी. अंतराचेर, गंगा-यमुना न्हंयच्या संगमाचेर, हें शार वसला. लोकसंख्या ६,४२,००० (१९८१).

अकबरान हांगा किल्लो बांदलो आनी ह्या शाराक त्या प्रांताचें मुखेल ठाणे केलें. तेन्नासावन अलाहाबादाक हें नांव पडलें. वाल्मीकी रामायणासावन पुराणामेरेन प्रयागाचे कितलेशेच उल्लेख मेळटात. इ.स. तिसऱ्या शेंकड्यांतल्या, हांगाच्या शिलास्तंभाचेर, सम्राट अशोकान कौशांबीच्या राजाक दिल्लो हुकूम कोरांतिल्लो आसा. ताचे उपरांतच्या लेखांत पांचव्या शेंकड्यांतल्या सम्राट समुद्रगुप्ताच्या वैभवाचें वर्णन कोरांतिल्लें आसा. चिनी भोंवडेकार फहियान आनी ह्यूएनत्संग हांणी पांचव्या आनी सातव्या शेंकड्यांतल्या आपल्या प्रवासवर्णनांत प्रयागाचो उल्लेख केला. १८०१ त हें शार ब्रिटिशांच्या शेकातळा गेलें. १८५७ च्या बंडांत हांगाच्या देशी फौजांनी वांटो घेतिल्लो आनी सुमार स दीस हो वाठार आपल्या ताब्यांत दवरिल्लो. उपरांत ब्रिटिशांनी हें बंड मोडून काडलें.

हांगाच्या पोरन्या शारांतलीं घरां गच्च आसात. तशेंच रस्ते अशीर आसात. पूण दारागंज छावणी सारक्या नव्या भागाची आंखणी अद्ययावत पध्दतीन केल्या. राष्ट्रीय राजमार्ग, रेल्वेमार्ग आनी विमानमार्गाचें अलाहाबाद हें एक म्हत्वाचें केंद्र. हें शार डाक, तार, दूरध्वनी, ह्या संपर्क साधनांनी जोडिल्लें आसा. हांगा धान्य, ऊंस, कापूस, अशा शेतमालाची व्हड बाजारपेठ आसा. तशेंच साकर, कंवची, शाबू, चामडें, विटो हांचे कारखाने, मुद्रणालयां, प्रकाशन संस्था, न्यायालय, शासकीय कार्यालय, रुग्णालय आदींची केंद्रां आसात. अलाहाबादचें विद्यापीठ, म्यूर सेंट्रल कॉलेजांतलो विज्ञानविभाग, यूइंग ख्रिश्चन कॉलेज, नैनी कृषीसंस्था, गंगानाथ झा संस्कृत संशोधन मंदिर, प्रयाग संगीत समिती, मेयो मेमोरिलय हॉल, अलाहाबाद संग्रहालय, विद्यापीठ संग्रहालय, राज्य आनी मध्यवर्ती ग्रंथालयां सी. वाय चिंतामणी स्मारक ग्रंथालय आनी बेझंट भारतीभवन अशो नामनेच्यो संस्था ह्या शारांत आसात. तेभायर भारद्वाज आश्रमामुखार नेहरुचें आनंदभवन, खुश्रूबागेंतल्यो मोगल कबरी, वत्सकुलाच्या कौशांबीचे पूर्विल्ले अवशेश अश्यो इतिहासीक वास्तूय अलाहाबाद शारांत पळोवंक मेळटात.

हिंदी साहित्य आनी संस्कृतायेचें मूळपीठ मानतात. तशेंच धर्मीक नदरेन ह्या शाराक आगळेंच म्हत्व आयलां. गंगा यमुना आनी सरस्वती ह्या तीन न्हंयाचो त्रिवेणी संगम हांगा दिश्टी पडटा.

ह्या त्रिवेणीसंगमाचेर दर वर्सा माघमेळो भरता आनी दर बारा बारा वर्सांनी हांगा कुंभमेळ भरता. त्रिवेणीमाधव, सोमेश्वर, वासुकीश्वर, भरद्वाजेश्वर शेष, प्रयागवेणी माधव, भागीरथी, सरस्वती, यमुना अशीं जायतीं तीर्थक्षेत्रां ह्या क्षेत्राच्या लागसार आसात. हांगा आशिल्ल्या आदल्या किल्ल्याच्या तळघरांत पूर्विल्लें अक्षयवडाचे कांड अजून पळोवंक मेळटा. ह्या झाडाच्या ताळ्येवेल्यान मोक्षार्थी न्हंयत उडी घेताले. हें थांबोवंक जहांगिरान हें झाड तोडून उडयलें अशें सांगतात.

- कों. वि. सं. मं.

**अलीगढः** उत्तरप्रदेश राज्यांतल्या अलीगढ जिल्ह्याचें मुखेल ठाणें. लोकसंख्या ५,९१,३३७ (१९८१). उत्तर रेल्वेच्या दिल्ली-कानपूर मार्गाचेर दिल्लीसावन उदेंत-दक्षिणेक १२६ किमी. अंतराचेर हें शार आसा. ग्रँड ट्रंक ह्या राष्ट्रीय महामार्गावेलें हें मुखेल स्थानक. ह्या शाराचें मूळ नांव 'कोइल' आशिल्लें. चंद्रवंशांतल्या कोशाख नांवाच्या क्षत्रिय राजान हें शार वसयल्लें. ह्या शाराच्या कोइल नांवावेल्यानन एक दंतकथा आसा ती अशीः ह्या वाठारांत कोल नावाचो राकेस रावतालो. तो खूब माजिल्लो. देखून ताका बलारामान जितो मारलो, आनी ह्या शाराक 'कोइल' हें नांव पडलें.

बाराव्या शेंकड्या मेरेनच्या इतिहासाची खबर मेळना. बाराव्या शेंकड्यांत मुसलमान ह्या शाराचेर चाल करून येवचे आदीं हांगा डोर राजपुतांची सत्ता चलताली. तांणी हांगा एक किल्लो बांदिल्लो. ११९४ वर्सा कुत्बुद्दीन ऐबक हाणें कोइलाचेर जैत जोडलें. सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांत ह्या किल्ल्याक 'महम्मदगड' आनी 'साबीतगड' अशीं नांवां पडिल्लीं.

अठराव्या शेंकड्यामेरेन ह्या किल्ल्याचेर मुसलमानांची सत्ता चलताली. १७५७ त ह्या किल्ल्याचेर जाटांनी जैत जोडलें आनी ह्या किल्ल्याक 'रामगढ' अशें नांव दिलें. १७५९ वर्सा नजफखानान जाटांक हारोवन हो किल्लो घेतलो आनी ताका अलिगढ हें नांव दिलें. १७८४ वर्सा हो किल्लो शिंद्यांच्या सत्तेखाला गेलो आनी १८०३ वर्सा शिंद्यांकडसून ब्रिटिशांकडेन गेलो.

१८६५ वर्सा सावन हांगा नगरपालिका आसा. हांगा सरकारी कचेऱ्यो, शाळा, हॉस्पिटल, ग्रंथालय, घड्याळाचो मनोरो, मशिदी, दर्गे, आसात. सय्यद अहमद हाणें काडिल्ल्या अलीगढ मुस्लिम विद्यापीठान शिक्षणक्षेत्रांत ह्या शाराचें म्हत्व वाडलां. हांगा कापसाच्यो आनी तेल गाळपाच्यो गिरणी आसात. भारतांत चडांत चड कुलपां अलीगढ शारांत तयार करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**अलुते-बलुते:** भारतीय खेड्यांतले परंपरागत वतनी हक्क. हे हक्क म्हळ्यार ग्रामीण अर्थवेवस्थेची बुन्याद म्हळ्यार जाता. खेड्यांत रावपी बिगर-शेतकार लोकांचो वेवसाय परंपरेन चलत आयिल्ल्यान ताका कुलपरंपरागत हक्काचें स्वरूप प्राप्त जालां. ताका लागून हे वेवसाय आनी तांकां मेळपी मोबदलो हे जण एका वेवसायिकाचे वतनी हक्क जाल्यात. ह्या वतनी हक्कांक 'अलुते-बलुते' अशें म्हण्टात. ह्या हक्कांक लागून शेतकार आनी तांचेर स्वताचें पोट भरचेखातीर पुराय पातयेवन आशिल्ले बिगर-शेतकार लोक हांचे थारायल्ले एकामेकांमदले संबंद खाशेले आशिल्ल्याचें दिसून येता. शेतकारांवागडाच हेर लोकांच्या ह्या एकामेकांमदल्या संबंदांक उत्तरेंत जजमानी (यजमानी) पध्दत आनी महाराष्ट्रांत 'अलुतेदारी-बलुतेदारी' अशें म्हण्टात. ह्या जजमानी वा अलतेदारी-बलुतेदारी पध्दतींत शेतकार हो यजमान अशें मानतात. जाल्यार बिगर शेती-वेवसायिक हे 'कामिन्' (इत्सुक) अशें समजतात.

महाराष्ट्रांत अशा बिगर शेती-वेवसायिकांचे अलुतेदार वा 'नारु' आनी बलुतेदार वा 'कारु' अशे दोन प्रकार आसात. शेतकारांचीं म्हत्वाचीं कामां करपी आनी तांच्यो दिसपट्ट्यो गरजो भागोवपी ते बलुतेदार. तांकां मोबदलो म्हळ्यार धान्याचो वांटोय चड मेळटा. अलुतेदारापरस बलुतेदाराचो हक्क चड व्हडलो आसता. पाटील आनी कुलकर्णी सोडल्यार, चौगुलो, म्हार, मेस्त, लोहार, चांभार, कुंभार, म्हालो, शेट, जोशी, परीट, गुरव आनी खारवी हे 'बारा बलुतेदार' म्हूण नांवाजिल्ले आसात. जांच्याबगर शेतकारांचें अडना पूण जे शेतकारांच्यो बारीक-सारीक किरकोळ गरजो भागयतात ते अलुतेदार. हातूंत तेली, तांबोळी, साळी, सनगर, शिंपी, माळी, गोंधळी, डवऱ्या, भाट, ठाकर, गोसावी, मुलाणा, वाजंत्री, घडशी, कलावंत, तराळ, कोरळ, भोई ह्यो अठरा जाती आस्पावतात. दरेक गांवांत हे सगळे अलुतेदार-बलुतेदार आसताच अशेंय ना. वेळप्रसंगाक अलुतेदार आनी बलुतेदार एकामेकांचीं कामां करतना दिसून येतात. अलुतेदार आनी बलुतेदारांच्या वेवसायांवयल्यान तांची व्हडली, मदली आनी धाकटी वळ वा कास अशी प्रतवारी करतात. तांची बिदागी वेवसायाप्रमाण थारायतात.

शेताच्या कामाभायर लग्न वा हेर धर्मीक-समाजीक सुवाळ्यांतय म्हार-मांगाक धरून सगल्या अलुत्या-बलुत्यांचीं कामां परंपरेन थारायल्लीं आसतात. ताचेखातीर तांकां खणनाल्ल हांच्यासारको मोबदलो कामाप्रमाण आनी ऐपतीप्रमाण मेळटा. हे अलुतेदारी-बलुतेदारी पध्दतींत गावांतलें बिगर शेती वेवसायांतलें कुटुंब, ताचें काम आनी ताचो मोबदलो हांचो निश्चित आनी अभेद्य असो मेळ दिसून येता. हातूंत कांय जाणांक अलुत्या-बलुत्यांची पिळवणूक दिसता, जाल्यार कांय जाणांक शेतकारांचो छळ दिसता.

ग्रामीण अर्थवेवस्थेंत आधारभूत आशिल्ली ही पध्दत उद्येगीकरणाच्या आनी नागरीकरणाच्या प्रभावाखाला हालीं हालीं मोडून पडत आयल्या. आपापल्यो वाडट्यो गरजो आनी अपेक्षा भागोवपाखातीर सगले जाण शारांनी वचून स्थायिक जातात. देखून, खेड्यांतलें पयलींचें एकामेकांचेर आदारून रावप उणें जायत आसा. दुडवांच्या विनियम-माध्यमाक लागून हाचेर परिणाम जाला. खूब कडेन १९३३ वर्सासावन म्हारांनी तांच्यांत जाल्ल्या नवजागृतायेक लागून आपले वतनी हक्क आनी गांवकीचीं कामां सोडून दिवपाक सुरवात केली.

गोंयांतूय आदल्या तेंपार अशे बिगर शेतवड वेवसायिकांचे वतनी हक्क आशिल्ले. गांवचे म्हाले, मडवळ, मेस्त, म्हार, चामार ह्या सारकिले बिगर शेतवड वेवसायिक गांवच्या शेतकारांची आपापल्या वेवसायांवरवीं वर्सभर फुकट कामां करताले आनी ह्या कामाचें मोल म्हूण शेतकार तांकां शेतांत पिकयल्लें पीक अमुकूच अशा प्रमाणांत दिताले. हें पीक दिवप शेत मळटा त्या दिसा आनीक मळणेच्या जाग्यारुच जातालें. भारतांतल्या हेर वाठारांप्रमाण गोंयांतय उद्येगीकरणाक लागून ही पध्दत ल्हवल्हव नश्ट जायत गेली.

- कों. वि. सं. मं.

**अलेक्झांडर द ग्रेट:** (जल्मः इ.स.प. ऑक्टोबर ३५६; मरणः इ.स.प. १३ जून ३२३).

मॅसिडोनियाचो संवसारीक किर्त जोडिल्लो सम्राट. मॅसिडोनियाचो राजा फिलीप आनी ताची पयली राणी ऑलिंपियस हांचो पूत. पेला हांगा जल्म. भुरगेपणांत फिलिपान ताका युवराजाक फाव तें लस्करी आनी राजकी शिक्षण दिलें. ताचो गुरू ॲरिस्टॉटल हाणें ताका पिरायेच्या तेरा ते सोळा वर्सांचेर काव्य, कला, राज्यशास्त्र आनी तत्त्वगिन्यान ह्या विशयांची गोडी लायली. होमरचो आकिलीझ हो ताचो आदर्श आशिल्लो. ताका लागून अलेक्झांडरान सबंद जग जिखचेली खर इत्सा बाळगिली आनी ते प्रमाण सदांच चढायेचें धोरण आपणायलें.



अलेक्झांडर द ग्रेट

इ.स. पयलीं ३३६ वर्सा फिलिपाचो खून जालो. अलेक्झांडर पिरायेच्या विसाव्या वर्सा मॅसिडोनचे गादयेर बसलो. ताचे पयलीं इ.स. पयलीं ३४० वर्सा फिलिपान जेन्ना बायझंटियमचेर घुरी घाल्ली तेन्ना अलेक्झांडरान मॅसि-डोनियाची राखण केल्ली आनी मीडीलोकांचो पराभव केल्लो. फुडें ताणें फिलीप हाका ग्रीक नगरराज्यसंघाचेर जैत मेळोवपाक पालव दिलो.

राजासनाचेर बसतकच एका वर्साभितर अलेक्झांडरान उत्तरेक डॅन्यूब न्हंय आनी अस्तंतेक एड्रिॲटिक हांगामेरेन आपली सत्ता वाडयली. थीबीज राज्याचेर घुरी घालून खूब नागरिकांक ताणें मारले. कांय जाणांक गुलाम म्हूण विकले. थंयचीं देवळां आनी आपलें आवडीच्या पिंडर कवीचें घर सोडून हेर सगळ्यो बांदावळी मातयेभरखण केल्यो. हाचो परिणाम म्हूण अथेन्स शार आपूण जावन शरण आयलें. मागीर ताणें समृध्द आनी बळिश्ट अशा इराणी साम्राज्याचेर घुरी घालपाचो निश्चेव केलो. इराणी लोकांक शासकांविशीं स्वामीनिष्ठा नाशिल्ली. हाचो अलेक्झांडरान भरपूर फायदो घेतलो.

इ.स. पयलीं ३३४ वर्सा ग्रीसांतल्या मुखेल सुवातींचेर राखणेखातीर सैन्य दवरून अलेक्झांडरान दार्दनेल्स न्हंय हुंपली. ताच्या सैन्यांत पार्मेनियो, टॉलेमी, ॲंटिगोनस, सेल्युकस, नीआर्कस सारके शूर आनी अणभवी सेनापती आशिल्ले. तेभायर आपलें स्वताचें शौर्य, धाडस, चिकाटी ह्या गुणांक लागून अलेक्झांडर आपल्या सैनिकांक देवा भशेन आशिल्लो. सुमार ४०,००० चें सैन्य घेवन अलेक्झांडरान इराणचेर घुरी घाली. डरायसान धाडिल्ल्या सेनापतींचो ग्रॅनिकस न्हंयचे देगेर पराभव करून तो सिरियावटेन गेलो. थंय इससच्या आखाताकडेन ताचें डरायसाच्या विशाल सैन्याकडेन झूज जालें. अलेक्झांडरान डरायसचो पराभव केलो. मागीर ताणें फिनिशियन आरमार हातासलें. इजिप्ताचेर अंमल बसोवन अलेक्झांड्रिया शाराची थापणूक केली. ताणें गॉगामीला हांगा डरायसचो आनीक एकदां पराभव केलो. डरायस झुजामळांतल्यान पळून गेलो. अशे तरेन अलेक्झांडर इराणी साम्राज्याचो अधिपती जालो. ताणें इ. स. पयलीं ३३१ वर्सा इराणची (त्या ऋतुंतली) राजधानी बॅबिलॉन हांगा मोट्या दबाज्यान प्रवेश केलो. फुडें ताणें स्पूसा आनी पर्सेपोलीस ह्यो आनी हेर राजधान्यो काबीज करून थंयचे खजिने लुटले. पर्सेपोलीसचो राजवाडो लासून ग्रीसाचेर इराणान घाल्ले घुरयेचो सूड

घेतलो.

सुर्वेक अलेक्झांडराचो उद्देश फकत इराणी सैन्याचो विध्वंस करप होच जावन आशिल्लो. पूण एकसारक्या मेळत राविल्ल्या जैतांक लागून साम्राज्य स्थापनेची ताची इत्सा वाडीक लागली. तेचपरी तें साम्राज्य सासणाचें तिगून उरचें म्हूण जिखिल्ल्या प्रदेशांक आपापलो धर्म आनी रिती-रिवाज, चाली तशेंच कांय राष्ट्रीय संस्थाय राखूंक ताणें परवानगी दिली. आपल्या नांवाचीं सोळा 'अलेक्झांड्रिया' नगरां ताणें बांदलीं.

इराणी आनी ग्रीक लोकांचें संघटन करचेखातीर आपुण स्वता डरायसचे धुवेकडेन लग्न जालो आनी आपल्या वांगडच्या हेर सेनाधिकाऱ्यांक लेगीत इराणी बायलांकडेन लग्न करपाचो आग्रो करपाक लागलो. इराणी तरणाट्यांक लस्करी शिक्षण दिवन तांकां सैन्यांत भरती केले आनी इराणी घोडेस्वारांचे पंगड तयार केले. आपूण स्वता इराणी भेस घालपाक लागलो. इराणी लोक राजाक देव मानताले तसोच सगळ्यांनी आपल्याक मान दिवचो, आपल्याक साश्टांग नमस्कार करचो असो प्रचार ताणें सुरू केलो. कांय मॅसिडोनियन सैनिकांक हें पटलेंना. ताणी अलेक्झांडराआड कट रचलो. तो कट उक्ताडार आयलो आनी ताणें कट करतल्यांक मर्णाची ख्यास्त दिली. इ.स. पयलीं ३२८ वर्सा ताणें बॅक्ट्रिया आनी ताचे उत्तरेचो सॉग्डिआना हे प्रदेश जिखले. थंयचे राजकुंवरीकडेन तो लग्न जालो आनी उपरांत हिंदुकुश हुंपून इ.स. पयलींच्या ३२७, मे म्हयन्यांत भारताचेर घुरी घाली.

भारतांतल्या थोड्या राजांनी अलेक्झांडराक फाटबळ दिलें. पंजाबांत त्या काळांत कांय ल्हान राजसत्ताक राज्यां आनी कांय गणराज्यां आशिल्लीं. ताणी आपली स्वतंत्रताय राखपाखातीर व्हडा शौर्यान झूज दिलें आनी मागीरूच अलेक्झांडराक फुडें सरपाक वाट मेकळी जाली. ताच्या शौर्याच्यो कथा त्या वेळार ग्रीक लेखकांनी बरोवन दवरल्यात.

अलेक्झांडरान काबूल न्हंयचे देगेर दोन सेनापतींक बरेंच सैन्य दिवन पुष्कलावतीच्या राजाचेर धाडले आनी आपणे स्वता कुनार, पंजखोर आनी स्वात न्हंयांच्या देगणांतल्यान चाल केली. थंय ताका अस्पेसिऑय आनी असरकेनॉय (अश्वक) ह्या दोंगरांनी रावपी पंगडांकडेन झगडें पडलें. ह्या झुजांत अलेक्झांडर जखमी जालो आनी तिडकी भितर ताणें थंयच्या सगळ्या लोकांची कत्तल करपाचो हुकूम दिलो.

सिंधू न्हंय हुंपून तो तक्षशिलेक पावलो. तक्षशिलाचो राजा आंभी ताका शरण आयलो. पूण झेलम आनी चिनाब हांच्यामदल्या वाठाराचेर राज्य करपी पोरस राजान ताका प्रतिकार केलो. दोगांयमदीं झेलमच्या कांठार आकांत झूज पेटलें. पोरसाचो पराभव जालो. अलेक्झांडराक भारतीय झुजाऱ्यांच्या शौर्याचो थाव लागलो. पोरसासारको शूर झुजारी आपलो पालवी आसल्यार चड बरें जातलें ह्या हेतान अलेक्झांडरान ताचें राज्य ताका परत दिलें आनी तेभायर आनीकय १५ गणराज्यांचो मुलूख ताचे सुवादीन केलो.

मागीर तो बिआस न्हंयचे वटेन फुडें सरलो. वाटेर ताका ग्लौकनिकॉय आनी कथईऑय (कठ) ह्या गणराज्यांकडेन झुजचें पडलें. अलेक्झांडरचे सैनिक बिआस न्हंयफुडें वचपाक तयार नाशिल्ले. बिआसाफुडें गेल्यार तांकां नंद राजाच्या विशाल सैन्याकडेन लडचे पडटले आशिल्लें. नंद राजाच्या शौर्याची खबर ताका गुप्तहेरांवरवी मेळिल्ली. तेभायर आठ-धा वर्सांच्या दिस-रात एकसारक्या झुजांउपरांत तांकां विसव जाय आशिल्लो. अलेक्झांडरान पोरस हाका झेलम आनी बिआस न्हंयमदल्या प्रदेशाचो अधिपती नेमून इ. स. पयलींच्या फेब्रुवारी ३२६ त परत वचपाचो निर्णय घेतलो.

अलेक्झांडर आयिल्ल्या मार्गान परत गेलो. झेलम आनी चिनाब न्हंयांच्या संगमाकडेन ताका मालव (मल्लॉय) आनी क्षुद्रक (ऑक्सिड्रकॉय) ह्या संघांकडेन लढाय करची पडली. मालवांच्या दरेका नगरांत ताका खर प्रतिकार जालो. आनीक एक नगर घेतना अलेक्झांडर जखमी जालो. त्या वेळार ताच्या तिडकल्ल्या सैनिकांनी बायलां-भुरग्यांची क्रूर कत्तल केली.

इ.स.प. ३२५ च्या सप्टेंबरांत अलेक्झांडर सिंधु न्हंयच्या देगेवयल्या पाटल गांवांत पावलो. थंयच्यान नीआर्कसच्या हातासकयल कांय सैन्य दिवन ताका उदकामार्गान धाडलो आनी आपूण भूंयमार्गान बलुचिस्तांनातल्यान इराणांतल्या स्यूसा हांगा इ.स.प. ३२४ वर्सा पावलो. स्यूसा हांगा ताका मरण आयलें.

अलेक्झांडर हो संवसारांतलो एक असादारण झुजारी आनी सेनामुखेली जावन गेलो. स्वदेशासावन हजारांनी मैल अंतरावेल्या अज्ञात प्रदेशांत ताणें खूब पराक्रम करून जैतां जोडलीं. पुराय ज्ञात जगाचें ग्रीस आधिपत्यासकयल एक राश्ट्र जावंचें अशी ताची उपाट इत्सा आशिल्ली. पूण ताच्या मरणाक लागून ती पुराय जालीना. तेन्नाची इराणी सुंदरी रॉक्सॅनास आनी डरायसची धूव बार्झिन ह्यो ताच्यो दोन राणयो आशिल्ल्यो. ताच्या मर्णाउपरांत रॉक्सॅनास हे ताचे बायलेन जल्माक आयिल्ल्या चल्याचें नांव अलेक्झांडरूच दवरलें.

अलेक्झांडरान भारताचेर केल्ले घुरयेक लागून भारताचो अस्तंत देशांकडेन लागींचो संबंद येवन वेपार आनी सांस्कृतिक संबंद सुरू जाले. अलेक्झांडरावांगडा आयिल्ल्या सेनापतींनी आनी ग्रीक लेखकांनी बरयिल्ल्या ग्रंथांवेल्यान भारताची बरीच माहिती अस्तंत देशांनी पावली आनी अशे तरेन भारताचे सिरिया, मॅसिडोनिया, इजिप्त ह्या देशांकडेन राजनीतीक संबंद सुरू जाले.

- कों. वि. सं. मं.

**अलेक्झांडर, व्हिसेंतः** (जल्मः एप्रिल १८९८, सेवील-स्पेन; मरण: १४ डिसेंबर १९८४, माद्रीद).

नामनेचो स्पॅनिश कवी. शिकप माद्रीद हांगा. हो कवी Generation of 1927 ह्या सोळाव्या आनी सतराव्या शतमानांतल्या स्पेन साहित्याची प्रेरणा घेतिल्ल्या तरनाट्या बरोवप्यांच्या पंगडांतलो आसा. दुयेंत आशिल्ल्या कारणान स्पेनच्या यादवी झुजावेळार तो झगडूंकूय शकलोना आनी पळूनूय गेलोना. ताकालागून फ्रँकोआड झुजपी प्रजासत्ताकवाद्यांच्या शेकाखाल आशिल्ल्या वाठारांत तो रावलो. स्पेनचें यादवी झुज सुरू जावंचे आदीं स्पेनचो सगळ्यांत व्हडलो साहित्यीक पुरस्कार मेळोवन लेगीत ताका ताचें साहित्य उजवाडावपाक पांच वर्सां बंदी आशिल्ली. ताचें साहित्य अतिवास्तववादी (Surreal) अशें म्हणटात. ताच्या चडशा साहित्यकृतींचो फ्रेंच, जर्मन आनी इंग्लीश भाशेंत अणकार जाला.

ताणें बरयल्लीं कांय मुखेल पुस्तकां अशीं:- Espados como Labios (1939, Swords as Lips), Destruction of Love (1933), Passion of Earth (1935), Sombra del paraiso (1944, Shadow of Paradise), Historia sel corazon (1954, Story of the Heart) आनी Dialogue del conocimiento (1974, Dialogues of Insight).

१९७४ त नोबेल पुरस्काराखातीर ताच्या नांवाची शिफारस जाल्ली पूण स्पॅनिश राजकारणाक लागून ताचे नांव वगळ्ळें. इतलें आसुनूय १९७७ त, मनशाची विश्वांतली आनी दिसपट्ट्या समाजांतली परिस्थिती आनी त्याच वांगडा झुजांमदल्या स्पॅनीश कवितेचे परंपरेचें पुनरुज्जीवन करपी सर्जनशील काव्यलेखनाखातीर ताका साहित्याखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. नोबेल पुरस्कार मेळटकच कांय दिसांनी स्पेनचो राजा, जुआंव कार्लूस हाणें ताका भेट दिली आनी Grand Cross of the Order of Carbs III दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**अलेप्पीः** केरळ राज्यांतल्या अलेप्पी जिल्ह्याचें मुखेल ठाणें. अस्तंतेकडल्यान आनी उदेंतेकडल्यान अरबी दर्याचें उदक भितर आयिल्ल्यान 'वेंबनाड' हें तळें तयार जालां. ह्या तळयाच्या मदीं आशिल्ल्या भुशिराचेर अलेप्पी शार वसलां. क्षेत्रफळ ४६.६२ चौ. किमी. लोकसंख्या १६९,९३४ (१९८१). कोचीनाचे दक्षिणेक ५४ किमी. अंतराचेर आनी क्विलोन ह्या केरळांतल्या शारासावन उत्तरेक ७८ किमी. अंतराचेर आशिल्लें हें एक बंदर.

अठराव्या शेंकड्याच्या अखेरमेरेन अलेप्पी हें रानांमुदीं एक व्हड मळ कशें आशिल्लें. त्या काळांत थंय डचांची वेपारीक आनी वेवसायीक सत्ता चलताली. डचांची ही सत्ता काबार करूंक महाराज रामवर्मान हांगा अलेप्पी बंदराची थापणूक केली. वेपारी नदरेन हांगाचे म्हत्व जाणून घेवन वेपारी लोक हांगा येवन आयात-निर्यात करूंक लागले. ह्या वाठारांत दुकानां आनी गुदांव जावंक लागले. १९ व्या शेंकड्याचे सुर्वेक हें त्रावणकोर प्रदेशाचें मुखेल बंद जालें.

नाल्लाच्या काथ्यापसून तयार केल्ल्या शेदऱ्यांखातीर अलेप्पी शाराक खूब म्हत्व मेळ्ळां. हांगा नाल्ल, काथो, खोबरें, शेंदऱ्यो, मसाल्याचे पदार्थ आदींचो वेपार चलता. तांदूळ, मीठ, तंबाखू, धातू, कपडे आदी वस्तूंची हांगा आयात करची पडटा.

अलेप्पी शार कालव्यान त्रावणकोर शाराक जोडिल्लें आसा. तशेंच, रस्त्यान तें केरळांतल्या हेर मुखेल शारांक जोडलां. अलेप्पी शारांत कालव्यांचें व्हड जाळें पातळ्ळां. जाकालागून, अलेप्पीक 'केरळाचें व्हेनिस' म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**अवतार:** दैवी वा अतिमानवी शक्ती वा व्यक्ती, मनशाचें वा हेर प्राण्याचें रुप घेवन धर्तरेचेर येवन रावता आनी आपलें इत्सित कार्य पुराय करता, ह्या आदिकाळासावन चलत आयिल्ल्या धार्मिक समजुतीक 'अवतार' अशें म्हण्टात.

'अवतार' ह्या उतरांत 'अव'+'तृ' ही दोन उतरां आसून ताचो अर्थ वयले सुवातेवेल्यान सकयले सुवातेर देंवप असो जाता. संवसारांतल्या चडशा धर्मांत ह्या ना त्या प्रकारान अवतार कल्पना मानिल्ली दिसता.

भारतांत, हिंदू धर्मीयांमदीं दोन अडेच वर्सां आदींसावन 'अवतार' ही कल्पना अस्तित्वांत आशिल्ली. वेदकालांत ही कल्पना वयर सरली अशें मानतात. भगवद्‌गीतेच्या फुडल्या दोन श्लोकांत 'अवतार' कल्पनेचें सगळ्यांत पयलीं स्पश्टीकरण केल्लें मेळटा:-

> यदा यदा हि धर्मस्य ग्लानिर्भवति भारत।
> अभ्युत्थानमधर्मस्य तदात्मानं सृजाम्यहम्।।
> परित्राणाय साधूनां विनाशाय च दुष्कृताम्।
> धर्मसंस्थापनार्थाय संभवामि युगे युगे।।

(भगवद्‌गीता: ४.७-८)

अर्थ- हे भरतकुळांतल्या अर्जुना, जेन्ना जेन्ना धर्म मोडावता आनी अधर्म मातता, तेन्ना तेन्ना हांव म्हाका जल्माक घालतां.

बरे तरेन चलतल्यांक सगळे वशीन राखूंक, वायट रितीन चलतल्यांक ना करूंक आनी धर्म बरेन थापूंक, हांव काळानकाळ जल्मतां. (हो उपदेश कृष्ण अर्जुनाक करता).

इतिहासीक नदेरन अवताराची मूळ कल्पना विष्णूच्या वासुदेवभक्तिसंप्रदायासावन सुरू जाता. डॉ. रा. गो. भांडारकार हाच्या मतान ह्या संप्रदायाचो काळ इ. स. पयलीं चवथें शतमान इतलो फाटीं वता. इ.स. पयलीं सव्या शतमानांतय वासुदेव हाका पूजनीय मानताले. त्यावेल्यान हो संप्रदाय ह्या आदीं लेगीत अस्तित्वांत आसलो अशें म्हणू येता. वासुदेव हो नारायण म्हळ्यार विष्णूचें मनीसरुप ह्या अर्थान 'विष्णूचो अवतार' ह्या स्वरुपांत पूज्य जालो.

पूर्विल्लीं पुराणां विष्णू अवतारांत बुध्द आनी कल्की ह्या अवताराचो आस्पाव करीनात. वैष्णव पुराण आनी महाभारत ग्रंथांत विष्णू अवताराच्यो कथा तर शैव पुराण आनी महाभारत ग्रंथांत शिव अवताराच्यो कथा येतात. शैव आनी वैष्णव नाशिल्ल्या मार्कंडेय पुराणांत लेगीत शिव आनी विष्णूचेंच न्हय तर गणेश आनी हेर देव, ऋषिमुनी, गंधर्व, अप्सरा आनी हेरांचे अवतार वर्णिल्ले मेळटात. महाभारताचें शांतिपर्व विष्णू अवतारांचो आंकडो णव तर हरिवंश आठ मानता.

जैनांचो पयलो तीर्थंकर ऋषभदेव (आदिनाथ) हाचो भारत, भागवत, स्कंद पुराणांनी आदितीर्थंकराचो अवतार म्हूण आस्पाव केला. गौतम बुध्दाक विष्णूचो अवतार म्हूण मत्स्यपुराण (४७.२४७), अग्निपुराण (१६.१-७), नृसिंहपुराण (३६.९), पद्मपुराण (३.२५७) आनी भागवत ह्या ग्रंथांत मान्यताय मेळ्ळया. महायान पंथाच्या प्रसाराउपरांत तिसऱ्या वा चवथ्या शतमानाच्या अदमासाक ही मान्यताय बुध्दाक मेळळी आसूंये अशें मानतात.

धर्मसंस्थापक म्हळ्यार अवतार हें तत्व आपणावन सगळ्या धर्मसंस्थापकाचो हिंदू धर्मांत आस्पाव करपाची प्रवृत्ती पूर्विल्ल्या काळांत भारतांत आसली. ताचो हो परिणाम जावन आसा.

बाराव्या शतमानांत संस्कृत कवी जयदेव हो आपल्या गीतगोविंद हातूंत दशावताराचें वर्णन करता. (१.१-१२). निमाणें, रामदास आनी तुकाराम ह्या संतांच्या काळामेरेन (१५ वें आनी १६ वें शतमान) अवताराची कल्पना चलणुकेंत आशिल्ल्याचें मेळटा. समर्थ रामदासान दासबोधांत अवताराविशीं फुडलो श्लोक बरयला:

> 'धर्मस्थापनेचे जे नर। ते ईश्वराचे अवतार।
> झाले आहेत पुढे होणार। देणे ईश्वराचे।

अर्थ: धर्मथापणूक करपी पुरुष इश्वराचे अवतार आसात. अशे पुरुष जाल्यात आनी फुडेंय जातले हें ईश्वराचें देणें आसा.

धर्माची थापणूक करचेपासत आमी ऋषिमुनी परतून परतून जल्म घेतात अशें तुकाराम म्हणटा.

**अवतार कल्पनेफाटले सिध्दांत:** १. ईश्वर नित्य स्वरुपांत आपले सुवातेर आसाच, पूण त्याच वांगडा तो हेर रुपांत, धर्तरेर रावन इतिहासिक कार्य करता. २. अवतारामदीं असामान्य गूण आनी विस्मित करपी चमत्काराची तांक आसता. ३. अवतारी मनशाची कूड सदांच तेजीश्ट आसता. ४. अवतार, माया वा आभास नासून तो सत्य आसता. ५. ईश्वराच्या सगळ्या अवतारांत, ईश्वराचे सगळे वा थोडेतरी गूण आसतात.

**अवतारांचे प्रकार:** कार्य सोंपतकच जो अवतार अंतर्धान पावता ताका अंशावतार म्हण्टात. कार्य सोंपतकच लेगीत जो अवतार कांय काळ ह्या संवसारांत रावता ताका पूर्णावतार म्हण्टात.

**अंशावतार:** बलराम आनी रामाचो भाव लक्ष्मण शेषाचे अवतार, तांकां अंशावतार म्हण्टात.

**पूर्णावतार:** राम आनी कृष्ण हे पूर्णावतार आसले.

**नित्यावतार:** ईश्वराचे गूण आनी आदर्श हांची थापणूक करचेपास जो जल्म घेता ताका नित्यावतार म्हण्टात.

**गुणावतार:** ब्रह्मा, शिव, मनु, प्रजापति, ऋषि आनी संत हांकां गुणावतार समजतात.

**विभावावतार:** हांचो आंकडो ३९ आसून तातूंत ध्रूव, कपिल, मधुसूदन, पद्मनाभ हांचो आस्पाव जाता.

**सात्वावतार:** हातूंत काल, सभाव, कार्य, कारण, मन, पंचभूतां, अहंकार, त्रिगुण, इंद्रियां, ब्रह्मायुशरीर आनी स्थावरजंगम जीव हांचो आस्पाव जाता.

**अर्चावतार:** प्राणप्रतिष्ठा केल्ल्यो आनी भक्ताकडल्यान पूजिल्ल्यो देवाच्यो मूर्ती हातूंत येतात.

**अंतर्यामी-अवतार:** प्राण्याच्या काळजांत आपली सुवात जोडून रावपी, ताच्या सगळ्या वेव्हाराचें नियमन करपी परमात्मा (गीता १८.६१.)

**लीलावतार:** सनत्कुमार, सनंदन, सनातन, नारद, वराह, मत्स्य, यज्ञ, नर-नारायण, कपिल, दत्तात्रेय, हयग्रीव, हंस, पृश्णिग, ऋषभ, पृथु, नृसिंह, कूर्म, धन्वंतरि, मोहिनी, वामन, परशुराम, राम, व्यास, बलदेव, कृष्ण, बुध्द आनी कल्कि. प्रत्येक कल्पांत हे अवतार घडत आशिल्ल्यान तांकां कल्पावतारय म्हण्टात.

**मन्वंतरावतार:** यज्ञ, विभु, सत्यसेन, हरि, वैकुंठ, अजित, वामन, सार्वभौम, ऋषभ, विष्वक्सेन, धर्मसेतु, सुदामा, योगेश्वर आनी बृहद्‌भानु.

**युगावतार:** शुक्ल, रक्त, श्याम, आनी कृष्ण हे कृतयुगादि क्रमान चार

अवतार आसात.

**आवेशः** कांय महापुरुषांत शक्त, गिन्यान आनी भक्ति हे वरवीं भगवंताचो आवेश जाता. शेष हो शक्तावेश, सनक, सनंदन हो ज्ञानावेश आनी नारद हो भक्त्यावेश आसा.

**दशावतारः** पुराणांत विष्णूचे जे धा अवतार मानून घेतल्यात ते अशेः १. मत्स्य, २. कूर्म, ३.वराह, ४. नृसिंह, ५. वामन, ६. परशुराम, ७. राम, ८. कृष्ण, ९. बुध्द, १० कल्कि.

**हेर धर्मीयांमदीं अवताराची कल्पनाः** किरिस्तांव धर्मांत पयल्या दोन शतमानामेरेन अवतार कल्पनेचो विचार जाल्लो दिसना. येशू क्रिस्त देवाचो अवतार काय मनशाचो पूत हे विशीं जायतीं शतमानां वाद चल्लो. मनीस जातीक पातकांचें प्रायश्चित दिवपाक आनी तांकां मुक्तीचो मार्ग दाखोवंक तो क्रिस्ताच्या रुपांत अवतरीत जालो अशें क्रिस्ती भौस मानता.

इस्लाम धर्मांतलो शिया पंथ अवतार कल्पना मानता. मुहंमद पैगंबराचो जावंय आनी खलिफा अली हाच्या इराणांतल्या अनुयायांनी अली आनी ताच्या वारस भुरग्यांक देवाचो अवतार मानलो. अलीच्या रुपान देवच धर्तरेर आयलो अशें शियापंथीय मानतात.

बौध्द धर्मांत महायान पंथांत अवतार कल्पनेक मान्यताय मेळ्ळ्या. धाव्या शतमानाच्या सुमाराक बुध्दाक महायानपंथांत 'अवतार' म्हूण ान्यताय मेळ्ळ्या. बोधिसत्त्व हो बुध्दाचो अवतार आसा अशी कल्पना आसा. बुध्दाचें निर्वाण जाल्यार लेगीत तो मैत्रेय, बुध्दाच्या रुपान अवतार घेतलो अशी महायान पंथाची श्रध्दा आसा.

जैन धर्म हिंदी धर्माप्रमाण अवतार कल्पना मानिना. पूण तीर्थंकर मोक्षमार्ग दाखोवपाखातीर मनीसरुपान जल्म घेतात आनी तप करून देवत्वाक पावतात अशी कल्पना आसा.

पारशी धर्मांत अवताराविशीं कल्पना दिसनात. पूण ते राजाक पवित्र आनी कुडींत दैवी शक्ती आशिल्लो मानतात.

**हेर अवताराविशीं कल्पनाः** (ग्रीक कल्पना) देवान मनीसरुपान धर्तरेर जल्म घेतिल्ल्याची कल्पना ग्रीक पुराणांत ना. पूण देवान खास प्रसंगार तात्पुरत्या खिणाखातीर मनीस वा प्राण्याचो जल्म घेवन प्रजोत्पत्ती केल्ल्याच्यो कथा तातूंत दिसतात.

सेमिटिक लोकांभितर देव मनशाचें रूप धारण करता आनी जाय तेन्ना काडून उडयता अशी कल्पना आसली.

पूर्विल्ल्या इजिप्त देशांत, लोकांभितर मूर्तींत वा प्राण्यांभितर देवता रावतात अशी कल्पना आसली. एकच देवता एका परस चड प्राण्याचे कुडींत रावता अशी समजणी आसली. ही समजणी अवतार कल्पनेक लागींची आसा.

**योगदानः** विंगड विंगड ऊंच वा उणाक धर्मसंप्रदाय तांच्यो देवता, धर्मसंस्थापक वा संताचो, धर्मीक तत्त्वांतल्यान सादिल्लो एकचार जो हिंदू धर्मांत दिसता, ताचें मूळावण अवतार कल्पनेंत पडलां.

- कों. वि. सं. मं.

**अवधूतः** अवधूत = 'सर्वान प्रकृतिविकारान् अवधुनोतीत्यवधूत' सगळ्या तरांच्या प्रकृतीच्या विकारांक धुवन उडोवन जो आपलें मन निर्मळ दवरता, तो अवधूत अशें सिध्दसिध्दान्त पध्दतींत (६.१) म्हळां. वयल्या मताक प्रमाण मानपी एका साधूच्या चोम्याकूय 'अवधूत' ह्या खास नांवान वळखतात. तातूंत अवधूत मताचे साधू शैव आनी वैष्णव ह्या दोनूय संप्रदायाचे आसतात. शैव साधू सामके सादे रावतात. ते एके तरेन संवसारांतल्या माय-पासांतल्यान मुक्त अशी विरक्त जीण जियेतात. नाथ-पंथीय योग्याकय अवधूत म्हण्टात. अवधूत म्हळ्यार जात, गोत, सारकीं बंदनां तोडून उडयिल्लो दादलो. हो बंधातीत आसता. महापातकी आनी पतित हे सोडून सगळ्या गटांकडल्यान ते अन्न घेतात आनी जेवतात. शांत रितीन वागून तो सदांच आत्मचिंतनांत मग्न रावता.

ब्रह्मनिर्वाणतंत्रांत अवधूताचे चार मुखेल प्रकार सांगल्यात.

१. ब्रह्मावधूत- हो खंयच्याय वर्ग, गट वा आश्रमांतलो ब्रह्मोपासक आसता.

२. शैवावधूत- हाणे योग्य त्यो विधी करून संन्यास घेतिल्लो आसता. हो कमीत कमी कपडे वापरता. जटा वाडयता. आंगाक माती लायता. मौन पाळटा आनी धुनी लावन बसता.

३. वीरावधूत- हाचे केंस लांब वाडयिल्ले आसून ते मेळत तशे आसतात. ताच्या गळ्यांत अस्थी वा रुद्राक्ष हांची माळ आनी हातांत काष्टदंड, परशु, डमरू हीं आयुधां आसतात. हो आंगाक भस्म वा रक्तचंदन लायता आनी काश्टी न्हेसता.

४. कुलावधूत- हो कौल संप्रदायाची दीक्षा घेवन गृहस्थाश्रमांत रावता.

वैष्णव संप्रदायांतले रामानंदाच्या काय शिष्यांकय अवधूत अशें म्हण्टात. रामानंदान रामनुजाच्या अनुयायां भितर सुदारणा घडोवन हाडचेखातीर नव्या संप्रदायाची थापणूक केली.

ह्या संप्रदायाक जाती-धर्म भेद मानचो न्हय असो आदेश दिलो. अश्या जातिधर्मांतल्या दादल्यांक ताणी अवधूत म्हळां. हे अवधूत जटो वाडयतात. गळ्यांत स्फटिकांची माळ घालतात. खांद्यार कांबळ घालतात. हातांत भीक्षा-पात्र घेवन भोंवतात. बंगालांत असल्या साधुंचें वेगवेगळे गट आसात. ह्या गटांत सगळ्या जातीचे लोक आसतात. ह्या साधुंचो चोमो जेन्ना भीक मागपाखातीर वता तेन्ना 'वीर अवधूत' असो आवाज करतात आनी एकतारीचेर भेस बरीं गीतां गायतात. हे राम आनी मारुती हांकां भजतात.

अवधूत साधू कानपिनको गोरखनाथाक आपलो गुरू मानतात. 'गोरखबानी'त कितलेशेच फावट अवधुतपदांचो नियाळ आयला. नाथपंथीयांत अवधुताची परिस्थिती सामकी वयल्या पावंड्याची आसता. हो पंथ सगळ्या तरेच्या प्रकृतिविकारांनी मेकळो आसता. अशें गोरक्षसिध्दान्त संग्रहांत सांगलां. दत्तसंप्रदायांत दत्तात्रयाक 'अवधूत' ह्या नांवान पाचारला. नाथ संप्रदायाच्या दैवतांभितर दत्ताक मानाचो जागो आसा. 'अवधूतगीत' हो ग्रंथ दत्तात्रयान गोरक्षनाथाक सांगलो अशें म्हण्टात.

भारतांत अस्तंतेच्या वाठारांनी कांय अवधूत वृत्तीच्यो बायलो दादल्यांच्या भेसांत रावतात. त्यो भस्म आनी रुद्राक्ष आंगार धारण करतात. तांकां 'अवधूती' अशें नांव पडलां. गंगागिरी नांवाच्या एका अवधूतीच्या परंपरेतल्यो ह्यो बायलो आसात अशें मानतात.

अवधूतोपनिषदांत अवधूतांचीं लक्षणां सांगल्यांत. सांकृति म्हणटा.

परमानन्दपूर्णाऽहं संसरामि किमिच्छया।
अनुतिष्ठन्तू कर्माणि परलोक यियासव।
सर्वलोकात्मकः कस्मादनुतिष्ठमि किं कथम।।

अर्थः हांव सगळ्या तरेच्या आनंदान पुराय भरलां. म्हाका संवसाराची गरज कितें?

सर्गलोकांत वचपाची आस धरिल्ल्यानी कर्माचें अनुष्ठान करचें. हांव सगळ्या जगाचो सगल्या लोकांचो जाला. म्हाका कर्मचरणाची गरज कितें?

- कों. वि. सं. मं.

**अवमूल्यनः** एकाद्र्या चलनाचें विदेशी चलनाच्या परिमाणांत निर्धारित केल्लें चालू मोल उणें करप. अवमूल्यन जाल्ल्या चलनाची देशांतर्गत क्रयशक्त मात उणी जायना. पूण देखीक- रु. ५.५० क एक डॉलर हांच्या बदलाक रु. १०.०० क १ डॉलर मेळूंक लागला. अशें धोरण सरकारान जाहीर केलें म्हणटकच 'रूपयाचें डॉलर' चलनांत अवमूल्यन जालें अशें म्हणूं येता.

आंतरराश्ट्रीय वेव्हाराच्या ताळेबदांतलो मुळावो असमतोल सोंपवचे खातीर निर्यातींत वाड आनी आयातींत उणाव करप गरजेचें थारता. तेखातीर येवजिल्ल्या कितल्याशाच उपायांमदलो अवमूल्यन हो चड परिणामी उपाय अशें मानतात. हो असमतोल चड काळ चालू उरलो

आनी आयातनिर्यातींतली तूट भरून काडचेखातीर भायल्या देशांची रिणां आनी पालव हांचेर बरोच काळ पातयेवन रावचें पडलें, जाल्यार अवमूल्यनाचो वापर करतात. चलनवाडय मुळाव्या असमतोलाक कारणीभूत थारता. चलनाचें अवमूल्यन जातकच आयातीचें मोल वाडटा आनी निर्यातीचें मोल उणे जाता. देखीक- एका डॉलरची वस्त आयात करपाखातीर पयलीं रु. ५.०० दिवंचे पडल्यार, अवमूल्यना उपरांत ताचेखातीर रु. ८.०० दिवंचे पडटात. हाचें उरफाटें अमेरिकेंतल्या आयात करतल्याक एका डॉलराभितर रु. ५.०० च्या बदलाक रु. ८.०० मोलाच्यो वस्तू मेळटात. हातूंतल्यान भारताची आयात उणी जावंक आनी निर्यातीक चालनां मेळूंक पालव मेळटा.

चलनाचें देशाभितरलें मोल उणे जाल्लें आसतना, विनीमय दर पयलींचो उरलो, जाल्यार त्या चलनाचें अधिमूल्यन जालें अशें मानतात.

आयात मालाची देशाभितरली मागणी आनी निर्यात मालाची भायल्या देशांतली मागणी हे गजालीचेर जर नियंत्रण आसत, तर अवमूल्यनाफाटलो उद्देश साध्य जाता. अवमूल्यन सारकें जावचेखातीर सरकारी खर्चांत काटकसर, करांभितर वाड, खाजगी खर्चाचेर नियंत्रण, वस्तूंचे नियंत्रित दर उणे करप आनी दरवाड सकयल हाडचेखातीर फाव ते हेर उपाय येवजप गरजेचें आसता. एका देशान अवमूल्यन केल्या उपरांत त्या देशाकडेन वेपारी संबंद आशिल्ल्या बऱ्याचशा देशांनी आपल्या चलनाचें अवमूल्यन करीत जाल्यार, तातूंतल्यान कोणाकच फायदो मेळना आनी वेपाराचेर मात वायट परिणाम जाता.

अवमूल्यनाक लागून देशाभितर दरवाड जावपाची शक्यताय नदरेआड करूंक येना. निर्यातदारांचें वाडटें उत्पन्न, निर्यात वाडिल्ल्यान आनी आयात उणी जाल्ल्यान वस्तूंची उणी जाल्ली पुरवण, रोजगारींत जाल्ली वाड ह्या सारक्या कारणांक लागून रोखडीच दरवाड जावपाची शक्यताय आसता. तेभायर अवमूल्यनाचो खरो अर्थ न समजल्ल्यान आनी स्वताचो फायदो करून घेवचेखातीर वेपारी, चलनाचें देशाभितरलें मोल उणें जालां असो आभास निर्माण करून, दर वाडयतात असो सादारण अणभव आसा. ताकालागून दरवाडीचेर नियंत्रण दवरप म्हत्वाचें आसता. देशांत आशिल्लें परकी भांडवल पर्थून भायर वचचें न्हय, होय अवमूल्यनाचो एक हेत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**अवलोकितेश्वर:** एका म्हान बोधिसत्व. अवलोकितेश्वरा संबंदान फुडले अर्थ काडटातः १. मनशाक जें दिसता ताचो स्वामी. २. सद्याच्या जगाचो स्वामी. ३. मनशाक दिश्टी पडपी दैवत, परमेश्वर, ४. दिश्टावो जाल्लो परमेश्वर.

मनशाकडेन मोगाळ नदरेन पळोवपी तो अवलोकितेश्वर अशें तिबेटी आनी भारतीय विद्वानांचें मत आसा. ताका सगळ्याची राखण करपी म्हूण समन्तमुख (सगळ्या वटेन तोंड आशिल्लो) अशेंय म्हण्टात. कांय जाण ताका आवलोकितस्वर मानतात. फुडें ताच्यांत शैव गुणधर्म भरसले आनी लोकांनी तेखातीर ताका अवलोकितेश्वर म्हळो. लोकेश्वर आनी लोकनाथ अशीं ताचीं हेर दोन नांवां आसात.

सर्गांतलो बुध्द अमिताभ आनी ताची शक्ती पांडरां हाच्यासावन ताचो जल्म जालो अशें मानतात. मधुसागर आनी रथाच्या चक्रायेदीं कमळां करपाची तांक ताचेकडेन आसा. आपल्या बापायच्या राज्याचो तो मुखेलमंत्री (सामन्त) आसा. जायत्या महायानी ग्रंथांनी ताका गौतमबुध्दापरसूय व्हड मानला. तो लंकेंत गेल्लो तेन्ना थंयच्यो राक्षसीणी ताका भाळल्यो. पूण ताणें सगळ्यांक उजू चलणूकेन चलपाची शिकवण दिली. मगधांत एक फावट दुकळ पडिल्लो. पोटाची भूक भागोवंक मनीस मनशाक खावपाक लागलो. त्यावेळार ताणें स्वबळाचेर पावस झडयलो आनी दुकळ ना केलो. बौध्द कल्पनेप्रमाण चालू कल्प हो भद्रकल्प आसून ताचेर ताचो शेक चलता. 'संवसारांतली सगळीं प्राणिमात्रां पुराय गिन्यान जोडून जो मेरेन मोक्ष मेळयनात तोमेरेन आपूण स्वता मोक्ष मेळोवपाची आस्त धरचो ना.' असो ताणें सोपूत घेतिल्लो. हो उल्लेख 'गुणकंरडव्यूह' ग्रंथांत आयला. तो गुप्तरूपान अध्यात्मज्ञानाचो आयजूय प्रसार करता अशें म्हण्टात. महायान पंथांत ताका बौध्द संघांत व्हड आनी ऊंच तोलामोलाचें संघरत्न म्हळां. 'सध्दर्मपुंडरीक' ह्या ग्रंथांत ताका बोधिसत्त्वापरस चड मानून हजारांनी बुध्दाची पूजा करचेपरस एकल्या अवलोकितेश्वराची पूजा करची अशें म्हळां. सुखावती व्यूह ह्या ग्रंथांत सुखावतीचो (बौध्दांचो सर्ग) स्वामी म्हळा. कारंडव्यूह आनी शरंगम ह्या ग्रंथांत ताचें वर्णन अशें केलांः

तो शिवावरी थंड तितलोच उग्र. ताचें रूप व्हड आसा. सगळे बुध्द बोधिसत्त्व, देव, संवसार ताचे कुडींत आस्पावला. ताच्या दोळ्यांतल्यान सूर्य आनी चंद्र तर आंगांतल्यान सगळ्या दर्जाचे देव भायर सरतात. महादेव ताचे तकलेंतल्यान येता. ताच्या हड्ड्यांतल्यान नारायण आनी भुजांतल्यान ब्रह्मदेवाचो जल्म जाता. ताका लाखांनी भुजां आनी कोट्यांनी दोळे आसात. ताच्या बोटांतल्यान अमृताच्यो न्हंयो व्हांवतात. त्यो वायट गजालींचो नाश करतात आनी भूत-प्रेताची तान-भूक न्हिवयतात.

ह्या वर्णनावेल्यान, काळांतरान बौध्दाचेर पुराणधर्माचो प्रभाव पडिल्लो दिसता.

अवलोकितेश्वरान 'ॐ मणिपद्मे हुम' हो षडक्षरी मंत्र संवसाराक दिलो. हें ताचें सगळ्यांत व्हड कार्य मानतात. ह्या मंत्राची तांक व्हड आसा. चवथ्या शतमानांत हो मंत्र सर्गांतल्यान आपल्या देशांत पडलो अशें तिबेटी बौध्द मानतात. ही मंत्रविद्या फकत अवलोकितेश्वराकच खबर आसली, देखून ताका एकट्याकच वंदित ही पदवी मेळ्ळी.

५ व्या शतमानांत अवलोकितेश्वराची पूजा-विधी करपाची चाल भारतांत सुरवात जाली अशें विंटरनिट्स हाचें मत आसा. ताची सगळ्यांत पूर्विल्ली मूर्ती ५ व्या शतमानांतली आसा. चिनी भोंवडेकार फाहियान (इ. स. ३९९) हाणें भारतांत ताचे पूजा विधी पळयल्यात.

तिबेटांत अवलोकितेश्वराक खूब मान आसा. ताका लामा पंथाचो मुखेल देव मानला. तांच्या मुखेल लामांत (दलाई लामा) तो अवतरीत जाता तर अमिताभ पंचन लामात (महापंडित) अवतीर्ण जाता अशें समजतात. देखून दोनूय लामाचे मठ वेगवेगळे आसात. आयजलेगीत ते एकामेकाआड आसात अशें मानतात.

अवलोकितेश्वराच्यो वट्ट १५ तरेच्यो मूर्ती आसात. तातूंतल्या १४ मूर्तींच्या किरीटांत अमिमाभाची मूर्ती आसा. उरिल्ल्या एके मूर्तीक वज्रधर्म अशें म्हण्टात. नेपाळांत ताचे १०८ प्रकार कल्पिल्यात. काठमांडूच्या एका विहारांत ताचीं १०८ चित्रां आनी १०८ लाकडी कोरीव मूर्ती पळोवंक मेळटात. चीनांत ताका बायलेच्या रुपांत दाखयला. ही कल्पना ताणी भारतांतल्या अर्धनारीश्वराच्या रुपावेल्यान घेतली आसूंये अशें म्हण्टात.

लखनौ संग्रहालयांत अवलोकितेश्वराची सुंदर मूर्ती आसा. पद्मपाणि हें ताचें लक्षण आशिल्ल्यान ताच्या एका हातांत कमळ दिल्लें आसा. दुसरो हात आशीर्वाद दिता. ताच्या बोटांतल्यान गळपी अमृत, एक प्रेत ओंठ फुडें करून पिता. तारा, ताच्या मंत्राचो राखणदार हयग्रीव, मैत्रेयाचो इश्ट सुधन हे ताच्या मूर्तिशिल्पांत भोंवतणी दाखयल्यात. जेन्ना तो चार भुजांच्या शिवावरी दिसता तेन्ना ताच्या दोनूय हाताचो पोसो दाखयतात. दुसऱ्या दोनूय हातांत पद्म आनी रुद्राक्षमाळ आसात. ताच्या कांय शिवासारक्या मूर्तींत व्याघ्रांबर, कमंडलू, नागबंध आनी अस्थिमाला ह्यो वस्तूव दिसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**अशोक: तांबडो अशोक:** (मराठी-लाल अशोक, जसवंत; हिंदी-संस्कृत आनी गुजराती- अशोक, अशुपालव; कन्नड- अशुगे. इंग्लीश- अशोक ट्री; लॅटीन-सराका इंडिका. कूळ- लेग्युमिनोजी). बाराय म्हयने पानां आशिल्लो हो सुंदर रूख श्रीलंका, ब्रह्मदेश, मलाया, बांगलादेश आनी भारत (कोंकण, गोंय, सह्याद्री, उत्तर कारवार, मध्य आनी उदेंत हिमालय) आदी वाठारांत दिश्टी पडटा. ताची उंचाय सुमार ६-९ मी.

आसता. साल गडद तपकिरी वा पिंगशी. पानां पांखांभशेन एकसंध, एकाफाटल्यान एक आसून तांचे खाचींत ल्हान पालवें पान आसता. कंवळीं आसतना हीं पानां हुंबकळपी आनी तांबसार आसतात. दलां चकचकीत आनी ४-६ जोडयांनी येतात. डिसेंबर ते मे ह्या म्हयन्यांत पानांच्या खाचींत तांबडे तुरे येतात. ह्या तुऱ्यांक सुर्वेक हळडुवीशीं, उपरांत नारिंगी आनी मागीर तांबडी दिसपी फुलां येतात. फुलांचे देंठ, छदां (bract) आनी धंदकां (bracteole) तांबडीं आसतात. ह्या फुलांक पाकळ्यो नाशिल्ल्यान फुलांच्या सकयल आशिल्लो संवर्तच (calyx) तांचे काम करता. केसरदळां ७-८ आनी तीं फुलांभायर बागवल्लीं आसतात. तातूंतलो परागकोश जांभळो आसता. ह्या रुखाक गडद तपकिरी, चेपट्यो आनी तोंकां आशिल्ल्यो सांगो येतात. तातूंत ४-८ चेपट्यो आनी लांब बियो आसतात. नव्या रुखाची लागवड बियांपसून जाता.

**उपेगः** ह्या रुखाची साल स्तंभक (आकुंचन जावपाक मदत करपी) आसता. गर्भाशयाच्या दुखण्याचेर दुदांत ही साल उकडून दिल्यार ती गुणकारी आनी पुश्टिक थारता. फळां कुटून आनी उदकांत कालोवन रक्तातिसार, मूळव्याध आनी मोडशी (आमांश) हांचेर दितात. गोडेंमूत ह्या दुयेंसांचेर सुकिल्लीं फुलां उपेगी पडटात. मुत्रविकाराचेर बियो उपेगी पडटात. ह्या रुखाचीं पानांय वखदी आसात.

**पुराणीक म्हत्वः** पुराणकाळासावन सोबितकायेखातीर ह्या रुखाची नामना आसा. हिंदू धर्मांत हो रुख पवित्र मानिल्लो आसून तो कामदेवाक अर्पण केला. गौतम बुध्दाचो जल्म अशोकाच्या रुखा पोंदा जाला अशी आख्यायिका आसा. रावणान सीतेक लंकेंत व्हरतच तिका अशोकवनांत दवरिल्ली अशें रामायणांत बरयल्लें आसा. अशोकषष्ठीच्या दिसा बायलो ह्या रुखाच्यो कळयो खातात. ह्या रुखाक दुखाचो नाश करपी आनी कल्परूख मानतात. एक दीस पार्वतीन शिवाक ह्या रुखाचें महात्म्य विचारलें. तेन्ना शिवान सांगलें, ''हो कल्परुख आसा. ताचेकडेन तुका जायतें माग.'' पार्वतीन रुखामुखार रावन एके चलयेची मागणी केली. तेन्ना तिका ती चली मेळ्ळी. पार्वतीन ते चलयेचें नांव अशोक- सुंदरी अशें दवरलें आनी नहुषाकडेन लग्न जावपाचो तिका वर दिलो.

**पाचवो अशोकः** (मराठी-हिरवा अशोक, अशुपाल, आसुफल; हिंदी-देवदारु, दिकेदारी; कन्नड-पुत्रजीवी; इंग्लीश-इंडियन फर, मेस्ट ट्री; लॅटीन-पॉलिअॅल्थिया लाँगिफोलिया. कूळ-अॅनोनेसी). एक व्हड, सुमार १५ मी. उंचायेचो, बाराय म्हयने पानां आशिल्लो रुख. मूळचो भारताचें दक्षिण तोंक आनी श्रीलंका ह्या वाठारांतलो हो मूळचो रुख. सद्या हो रुख भारतांत सोबायेखातीर लायिल्लो दिश्टी पडटा. ह्या रुखांत जायत्या दुयेसांक आळाबंदा हाडपाचे गूण आशिल्ल्यान ताका पोलिअॅल्थिया हें वंशवाचक नांव दिलां आनी ताका आशिल्ल्या लांब पानांखातीर ताका लाँगिफोलिया हें लॅटीन जातीवाचक नांव दिलां.

ह्या रुखाचीं पानां चिवट, अशीर, भाल्याभशेन, गुळगुळीत, चकचकीत, तांच्यो कडो ल्हारावरी आनी तोंक लांबट आसता. फेब्रुवारी ते मे ह्या म्हयन्यांत पानांचे खांचींत ५-६ पाचव्या फुलांचे घोंस येतात. फळां १८×१२ मिमी. सुर्वेक पांचवीं आनी उपरांत गडद जांभळीं आसतात. हीं फळां ऑगस्ट ते सप्टेंबर ह्या म्हयन्यांत पिकतात. नव्या रुखाची लागवड बियांपसून जाता.

ह्या रुखाचें लाकूड हलकें पूण घट्ट आशिल्ल्यान पेन्सिल, ढोलकीं करपाखातीर ताचो वापर करतात. ह्या रुखाच्या सालीपसून बरो धागो मेळटा. चीन देशांत ह्या लाकडाचो उपेग आगगाडयांखातीर करतात. पिरॅमिडाभशेन दिसपी आनी कांडाकडेन हुंबकळपी खांदयो आशिल्ली अशोकाची आनीक एक जात (पॅंड्यूला) हालींच्या दिसांत दिश्टी पडटा. हो रूख बागेंत सोबेखातीर लायतात.

- कों. वि. सं. मं.

## अशोक, सम्राटः (जल्मः इ.स.प. ३०३ ?; मरणः इ. स. प. २३२).

अशोक हो पूर्विल्ल्या काळांतलो भारतांतलो एक नामनेचो सम्राट. ताच्या भुरगेपणाविशींची म्हायती मेळना. बिंदुसाराच्या ह्या पुताचो जल्म क्रिस्तापयलीं ३०३ वर्सां जाल्लो आसूंक जाय अशें मानतात. मौर्य वंशाचो हो तिसरो राजा. क्रिस्तापयलीं ३७३ वर्सां मगध राज्याचो कारभार तो सांबाळूंक लागलो. आपल्या बापायच्या राजवटीवेळार अशोक तक्षशिला आनी उज्जयनी हांगा राजप्रतिनिधी म्हूण वावुरतालो. तो बिंदूसाराचो व्हडलो पूत न्हय, तरीपूण ताचो व्हडलो भाव सुसीम हाका इ.स. पयली २७३ त राजगादयेवयल्यान कुशीक सारून तो राजा जालो. बिंदूसाराक १६० राणयांपसून जल्मल्ले १०१ भुरगे आशिल्ले. तातूंत अशोक खुनशी आनी दुश्ट आशिल्ल्यान ताणे आपल्या भावांक मारून उडयले आसूंक जाय असो पुरावो कांय इतिहासीक बरपावळींतल्यान मेळटा. अशोकाक हाकालागून चण्डाशोक वा दुष्टाशोक ह्या नांवान वळखताले. बौध्द धर्म आपणायल्या उपरांत मात ताका धर्माशोक (धर्मान चलपी अशोक) ह्या नांवान पाचारूंक लागले.

**कलिंगाचेर जैतः** अशोकान राज्यकारभार सांबाळूंक लागल्याउपरांत ९ व्या वर्सा म्हळ्यार इ.स.प. २६१ त आपल्या राज्याच्यो शिमो वाडोवपाखातीर कलिंग वाठाराचेर घुरी घाली. अशोकान ही लडाय जिखली. पूण हे लडायेंत ताका व्हड प्रमाणांत रगताच्यो न्हंयो व्हांवोवच्यो पडल्यो. अशोकाक लडाये उपरांत पश्चात्ताप जालो आनी अहिंसेच्या मार्गान मोगाची शिकवण दिवपी बौध्द धर्मालागीं तो ओडलो. ताणे बौध्द धर्माची दीक्षा घेतली आनी त्या धर्माचो प्रसार आनी प्रचार करपाचें थारायलें. सुर्वेक ताणे उपासकाची (गृहस्थाश्रमी बौध्दाची) दीक्षा घेतली आनी एक अडेच वर्सांउपरांत तो संघांत म्हळ्यार बौध्द भिक्षुंच्या वर्गांत पावलो, अशें ताच्या रुपनाथ हांगाच्या फातरपट्यावयल्यान समजता. बौध्द धर्माच्या प्रसाराचो वावर हातांत घेतल्या उपरांत सगळ्यांत पयलीं ताणे आपल्या राज्यांतली शिकार बंद केली. चैनीखातीर जावपी आपल्यो भोंवड्यो बंद केल्यो. धर्मप्रसाराचो वावर नेटान जांवच्याखातीर ताणे इ.स. प. २५६ त खास अधिकाऱ्यांनी नेमणूक केली आनी तो स्वता बौध्द तीर्थांच्यो यात्रा करूंक लागलो. आपलो गुरू आचार्य उपगुप्त हाच्यावांगडा ताणे आपली नेपाळांतल्या तेराय प्रांतांतल्या बुध्दाची जल्मसुवात आशिल्ल्या कपिलवस्तू लागींच्या लुम्बिनी बागेचें दर्शन घेतलें. उपरांत कपिलवस्तू, गया, सारनाथ, कुशिनगर, श्रावस्ती ह्या तीर्थस्थानांत ताणे भेट दिली.



सम्राट अशोक

**अशोकाचो धर्मः** अशोकाचो धर्म म्हळ्यार नितीची एक वळेरीच आशिल्ली. ताणे सर्वसादारण मनशांक घुसावन उडोवपी धर्म तत्त्वगिन्यानाच्यो व्हड व्हड धर्मकल्पना कुशीक दवरल्यो. तशेंच देव आनी आत्मो हांकांय ताणे एकामेकांमदीं भरशिले नात. जिणेंत निर्मळताय

येवचेखातीर ताणे लोकांक आपल्या मनाचेर ताबो दवरपाची बुध्द दिली. ताणे दुसऱ्यांच्या धर्माचो आदर राखचेखातीर, मोनजातीचेर काकुळट दाखोवन तांकां मारचे न्हय म्हूण मनशान वावुरचें अशें शिकयलें. आवय-बापूय, जाण्टे, गुरुजन, साधू-संन्यासी, गुलाम, नोकर-चाकर हांचेलागीं सभ्यतायेन वागपाविशीं ताणे उपदेश केला. सत्य उलोवपाची आनी सत्यान वागपाची ताणे देख दिली.

**अशोकाची चलणूकः** अशोकान फकत बऱ्या आदर्शांचो आनी विचारांचो उपदेशच केलो ना, ताची स्वताची चलणूकय ताच्या विचारांभशेन आदर्श आशिल्ली. ताणे शिकार करप सोडलें आनी मांस खावप थांबयलें. लोकांखातीर आनी जनावरांखातीर ताणे भलायकी केंद्रां बांदलीं. ब्राम्हण आनी हेर धर्माच्या लोकांचो आदार राखून ताणे सदळ हातान दानधर्म केलो. कलिंग हांगाच्या ताच्या एका फातरापट्याचेर अशीं उतरां आसातः "सगळे मनीस म्हाका भुरग्यांभशेन आनी सगळ्या मनशानीं म्हज्या भुरग्यांभशेन हे जीणेतलीं आनी परलोकाचीं सगळीं सुखां भोगचीं."

**राज्यविस्तारः** आपली प्रजा उजू चलणूकेन चलची हाका लागून अशोकान फातरपट्यांचेर आदेश बरोवन दवरले. तशेंच बौध्द धर्माचें मार्गदर्शन जावचें हाका लागून आरसपानी फातरी स्तंभाचेर (अशोकस्तंभ) आदर्श तत्त्वां कोरांतून ते राज्यभर लायले. हांच्यावयल्यान ताचें राज्य खंयमेरेन पातळिल्लें हाचो अदमास येता. नेपाळ (रुक्मिणी-देई), पाकिस्तान (गांधार, मानसेहरा, तक्षशिला), उदेंत अफगाणिस्तान (लंपाक आनी जलालाबाद), दक्षिण अफगाणिस्तान (शहर इ-कून), राजस्थान (बैरात, भाब्रू), हरियाणा (तोप्रा), उत्तर प्रदेश (काल्सी, मीरत), अलाहाबाद (कौशांबी), बंगाल, (ताम्रलिप्ति), बिहार (मगध अरराज), मध्यप्रदेश (सांची, रुपनाथ), गुजरात (गिरनार), महाराष्ट्र (राष्ट्रीक) म्हैसूर (मस्की, सिध्दपूर), ओरिसा (धौली, कलिंग) हांगा सांपडिल्ल्या स्तंभांवयल्यान अशोकाचें राज्य सद्याच्या भारत, पाकिस्तान, उदेंत अफगाणिस्तान हांगा पातळिल्लें. दक्षिण भारतांतले केरळ (चेल), तामीळनाडू, पॉडिचेरी (चोल, चेर, पांड्य) आनी श्रीलंका (ताम्रपर्णी) हांचो मात ताच्या साम्राज्यांत आस्पाव नाशिल्लो.

**राज्यंवेवस्थेची नदरः** सम्राट अशोकान पयलींसावन चलत आयिल्ले राज्यकारभार पध्दतींत जाय तितलेच बदल केले. कलिंग जैताउपरांत तोशलीच्या राज्यप्रतिनिधीचें पद निर्माण करून थंयची परिस्थिती सांबाळ्ळी. कलिंग झुजाउपरांत ताणे बौध्द धर्माचीं तत्वां राज्यकारभारांतल्यान मुखार हाडूंक सुरवात केली. ताचे तेन्नाच्या ग्रीक राजावांगडा इश्टागतीचे संबंद आशिल्ले. ताच्या सुजाण कारभाराक लागून ताणे निर्माण केल्लीं प्रतिकां आयजमेरेन भारताचीं राष्ट्रचिन्नां जाल्यांत.

- प्रकाश पाडगांवकार

**अश्मयुगः** मानवी इतिहासांतलो अतिपूर्विल्लो कालखंड. हो सुमार ५ लाख ते १० हजार वर्सांपयलींचो अशें मानतात. अश्मयुगांतलो मनीस ताच्या भोंवतणी आशिल्लीं लाकडां, हाडां आनी खास करून फातरांपसून तयार केल्लीं उपकरणां (हत्यारां) वापरतालो. मानवी वसणुकांच्या अवशेशांत फातराचीं विंगड विंगड उपकरणां आनी आयुधां सांपडल्यांत. देखून ह्या कालखंडांक अश्मयुग (अश्म=फातर) अशें म्हण्टात.

अश्मयुगांतल्या मनशाची उदरगत दाखोवपाखातीर अश्मयुगाचे पुराणाश्मयुग, मध्याश्मयुग (आंतराश्मयुग) आनी नवाश्मयुग अशे तीन मुखेल टप्पे थारायल्यात. तातूंतय पुराणाश्मयुगाचे पूर्वपुराणाश्मयुग, मध्यपुराणाश्मयुग आनी उत्तरपुराणाश्मयुग अशे परत तीन उपविभाग केल्यात. अश्मयुगाच्या ह्या विभागांचीं सांस्कृतिक खाशेलींपणां अशीं:-

**पूर्वपुराणाश्मयुगः** हाचो काळ सादारणपणान ५ लाख ते देड लाख वर्साफाटलो आसा असो समज आसा. ह्या युगांत ग्युंझ ह्या पयल्या हिमयुगाचो आरंभ, हांगाच्यान तें रिस ह्या तिसऱ्या हिमयुगाच्या पयल्या चरणामेरेनचो भूस्तरीय काळ आस्पावता. ह्या युगांतलें हवामान कडक शीं आनी तीव्र उश्णताय अशें एकसारकें बदलतालें. व्हड आकाराचे (Mammoth) पाणघोडे, गेंडे, वास्वेलां, गवे, सांबर, घोडे, हरणां अशे कितलेशेच प्राणी मनशाभोंवतणी वावुरताले. ह्या सावदांची शिकार करप हेंच उपजिविकेचें मुखेल साधन आशिल्लें. ऑस्ट्रेलोपिथेकस (Australopithecus), पिथेकॅन्थ्रॉपस (Pithecanthropus) आनी निअँडरथल (Neanderthal) हे मनशाभाशेन दिसपी प्राणी धर्तरेचेर आशिल्ले. सांस्कृतिक नदरेन ह्या कालखंडांतल्या मनशांचे ५ गट केल्यात, ते अशेः १. व्हिलाफ्रांकियन (Villafranchian) पयल्या हिमयुगाच्या पयल्या चरणांत २. अबेव्हिलियन (Abbevillian) पयल्या आंतर हिमयुगाच्या पयल्या चरणांत ३. क्लॅक्टोनियन (Clactonian) पयल्या आंतरहिमयुगाच्या दुसऱ्या आनी तिसऱ्या चरणांत ४. अश्यूलियन (Acheulian) दुसऱ्या आंतरहिमयुगाच्या पयल्या अर्दांत ५. लेव्हालोइशियन (Levalloisian) दुसऱ्या आंतरहिमयुगाच्या उत्तरार्धापसून फुडें चालू.

**मध्यपुराणाश्मयुगः** हातूंत सादारणपणान पन्नास हजार ते पंचवीस हजार वर्सांपयलींचो काळ येता. तिसऱ्या आंतरहिमयुगाचो उत्तरार्ध आनी व्यूर्म (Wurm) ह्या चौथ्या हिमयुगाची सुरवात हो काळ मध्यपुराणाश्मयुगांत आस्पावता. ह्या काळांतलें हवामान एकदम थंड आशिल्लें. गवे, वास्वेलां, रानबैल आनी गेंडे हे ह्या काळांतले मुखेल प्राणी. ह्या काळांत यूरोप आनी अस्तंत आशिया ह्या भागांत निअँडरथल मनशाची वसणूक आशिल्ली. ते खासा करून घोलींनी आनी प्रस्तरालयांत रावताले.

**उत्तरपुराणाश्मयुगः** हो काळ सादारणपणान २५ हजार ते १० हजार वर्सांआदलो अशें मानतात. ह्या काळाचो आरंभ ४० हजार वर्सांआदीं जालो, अशेंय एक मत आसा. चवथ्या हिमयुगांत जीं तीन हिमप्रसरणां जालीं तातूंतल्या पयल्या आनी दुसऱ्या प्रसरणांच्या मदल्या काळांत दक्षिण रशिया आनी मध्य यूरोप हांगा ह्या युगाचो उदय जालो. ह्या काळांतलें हवामान थंड आशिल्लें. हरणांचे कळप सगळ्याक वावुरताले. भीमगजासारके कांय प्राणी दक्षिण यूरोपांत आशिल्ले. वंशशास्त्रज्ञ जांकां Homo Sapiens अशें नांव दितात ताच्यो कोम्ब कापेल ब्रून आनी क्रोमॅग्नन ह्यो दोन शाखा युरोपांत सगळ्याक पातळिल्ल्यो. अस्तंत आशियांत पसून ही संस्कृती दिसून येता. पेरीगोर्डिगन, सॉल्यूट्रीअन, मग्डेलेनियन हे मुखेल समाजगट त्या काळांत आशिल्ले. सैमीक घोलींचो राबित्याखातीर वापर जातालो.

**आंतराश्मयुगः** ह्या युगाचो काळ १५ हजार ते १० हजार वर्सांआदलो आसा अशें मानतात. चवथ्या हिमयुगाच्या तिसऱ्या प्रसारणाच्या काळांत हाका सुरवात जाली. ह्या काळांत थंड हवेवांगडाच पावसूय पडपाक लागिल्लो. ताका लागून रानांची वाड जाली आनी जीवसृश्ट आयचे सारकी फुलून आयली. क्रोमॅग्नन मनीस-वंशाचो सगळ्याक प्रसार जालो. खास करून यूरोप आनी अस्तंत आशिया या वाठारांत हाचो पुरावो दिसून येता. हांगा अझिलियन, टार्डेनोइशियन, अॅस्टुरियन, एर्टेबोल, पॅलेस्टायन् (यूरोप), जाटुफियन (उत्तर ईजिप्त) हे मुखेल समाजगट आशिल्ले. ते चडशे उक्तडाचेर चामड्याच्या तंबूंत वा घोलींत रावताले. ते मांस भक्षण करताले. ह्याच काळांत जनावरां पोसपाक आरंभ जाला आसूंक जाय.

**नवाश्मयुगः** ह्या काळाक इ.स. पयलीं ८ हजार वर्सां उपरांत सुरवात जाली. इ.स. पयलीं ५ हजार वर्सां लागसार ताची चड उदरगत जाली. ह्या काळांत मनीसवंश, हवामान, प्राणी आनी वनस्पती-सृश्ट ही आयच्यासारकीच आशिल्ली. पशुपालन हो म्हत्वाचो वेवसाय आशिल्लो. गाय, बैल, दुकर, मेंढरां, घोडे हे प्राणी मनशाळ्ळे. शेत पिकोवपाची विद्या मनशान साध्य केली. शेंकड्यांनी वर्सांच्या वाटचालीउपरांत शेताच्या वेवसायाक लागून मनशाचें जिवीत एका जाग्यार थीर जालें थीरतायेक लागून आपोआप घरां, खेडीं तयार जालीं. धातूचो सोद लागतकच अश्मयुगाचो अस्त इ.स.प. ३००० च्या काळांत मेसोपोटेमिया

आनी इजीप्त हांगा जालो.

**मनशाचें जिवीत:**

*अन्न:* शिकार आनी नुस्तेंमारी हे दोनूय वेवसाय पुराणाश्मयुगांत आनी आंतराश्मयुगांत आशिल्ले. नवाश्मयुगांत पशुपालन आनी शेत काम हे मुखेल वेवसाय आसले तरीकूय थोड्याभोव प्रमाणांत नुस्तेमारी चलताली. पुराणाश्मयुगांत आनी आंतराश्मयुगांतल्या मनशाच्या अन्नांत ल्हान-व्हड सगळ्या जनावरांचें मांस, फळां आनी कंदमुळां हांचो आस्पाव आशिल्लो. मनशाच्या मांसाचे भक्षणय जातालें. हरण, दुकर, हत्ती, (Mammoth), वास्वेल, घोडे हे प्राणी सदचेंच भक्ष्य जाल्ले. आंतराश्मयुगाचे अखेरेक नुस्त्यावांगडाच बोकड्यो, मेंढरां, गाय, बैल हांच्यासारक्या पाळीव जनावरांचें मांस हो आहाराचो एक भाग जाल्लो. नवाश्मयुगांत धान्यांवांगडाच मांसाहार चलतालो. शेतकामाक सुखात जातकच गंव, बार्ली, मको, ज्वारी, बाजरी हीं धान्यां आनी घाटाणो, घेवडो, मूग, हरभरो आनी मसूर हांच्यासारकीं कड्डणां पिकोवपाक सुखात जाली. तेलाखातीर ऑलिव्ह फळांचो वापर आग्नेय स्पेनांत जातालो. सफरचंदां, बोरां असलीं फळां मेळटालीं. लामा, उंट, घोडो ह्या पाळीव जनावरांचो उपेग येरादारीखातीर जातालो तरीकूय वेळप्रसंगाक तांचें भक्षण लेगीत जातालें.

*समाजरचना:* अश्मयुगीन समाजरचणुकेविशीं उत्खननांतल्यान मेळिल्लो पुरावो अप्रत्यक्ष, उणो आनी त्रोटक आसा. मेळिल्ल्या अवशेषांवयल्यान कांय अनुमानां बांदचीं पडटात. देखीक- वैचारीक देवघेवीचें मुखेल साधन जी भास, ती त्या कालखंडांत केन्ना आनी कोणाकोणाक प्राप्त जाल्ली, हाचेविशीं निश्चित कांयच सांगपाक येना. पूण पूर्वविचार आनी येवजण तशेंच रासवळ जिवीत प्रचलित आशिल्लें. ताका लागून भाशा संपर्काचें कसलें तरी माध्यम अस्तित्वांत आशिल्लें हें नक्की. शिकार करपाखातीर सांघिक शक्तीची गरज आशिल्ली. देखून मनशाक गटांत वा टोळयेंत रावचें पडटालें. रगताचें नातें आशिल्ल्या मनशांचो एकेक कौटुंबिक गट आशिल्लो आसूंक जाय. आवयक (बायलेक) कुटुंबांत अदिक म्हत्व आशिल्लें. ह्या समाजांतल्या दादले-बायलांच्या संबंदाविशीं कसलीच माहिती मेळना. पूण एक बळिश्ट दादलो, ताच्यो चार-पांच बायलो आनी ल्हान भुरगीं हांचो कुटुंबांत आस्पाव आसतालो. पितृ-सावर्ण्य वा मातृ-सावर्ण्य हांच्या भितल्ली खंयचीय एक पध्दत प्रचलित आसूंक जाय. अशीं कुटुंबां एकठांय येवन तांचो फुडें गट तयार जातालो. ह्या गटाचें निश्ठास्थान रगतसंबंदाचें नाशिल्ल्याकारणान कितेंय दृश्य चिन्न आसल्यार बरें पडटलें म्हूण एखाद्र्या मोनजातीची वा सुकण्याची निशाणी (गणचिन्न) म्हूण उपेग करताले. घोलींच्या वण्टींचेर वास्वेलां, गेंडे अश्या प्राण्यांचीं जीं चित्रां दिसतात तीं गणचिन्नांच आसूंक जाय. अश्या गटांत ३०-६० मनशां आसतालीं. तांचें खावप-जेवप, रांदप, शिकार करप एकठांय रावनूच जातालें. शेतकाम, लांकूडतोड, शिकार, शस्त्रनिर्मिती हीं कश्टांचीं कामां दादल्यांकडेन जाल्यार घरकाम, शेत राखप, कंदमुळां-फळां पुंजावप, भुरग्यांक सांबाळप, रांदप हीं कामां बायलांकडेन अशी श्रमाची विभागणी त्या काळांत जाली.

पंचमहाभूतां, रुख, स्थलदेवता, मृतात्मे ह्या अतिमानवी शक्तींचेर शेक चलयतल्या पुरोयताचो वेवसाय जाण्टेली बायल वा गटाचो दादलो मुखेली हांचेभितर कोणूय एकलो करतालो. घोलींच्या वण्टींचेर चित्रकाम करप, स्त्रीमूर्ती, हाडां आनी शिंगा हांच्यावयलें कोरीवकाम, हत्यारांखातीर लागपी कुपादरीच्या फातरांची वेगवेगळ्या गटांत पुरवण करप हे स्वतंत्र वेवसाय उदयाक आयिल्ले.

ल्हव ल्हव उपजिविकेच्या साधनांचेर मालकी हक्काचो उदय जालो. सुर्वेक मालकी दरेक गटाकडेन रासवळ रूपान आशिल्ली. मागीर एक-एक कुटुंबांच्या सर्वस्वी मालकीची थापणूक जाली. नवाश्मयुगाच्या सुर्वेक काळांत पितृसावर्ण्य पध्दत रुढ जाली. शेतकाम, पशुपालन, फातरांचीं हत्यारां तयार करप, शिकार करप, पौरोहित्य, कलाकृती हे वेवसाय पयलींभाशेन चालूच आशिल्ले. तातूंत घरां बांदप, सुतारकाम, गवंडेकाम, वेतकाम, बुरुडकाम, मृत्पात्रां तयार करून ती रंगोवप असल्याय वेवसायांची भर पडली. नवाश्मयुगीन समाज शाश्वत पायांचेर उबो जालो आनी समाजरचणूकेंत म्हत्वाचे बदल घडून आयले. कुटुंब ही संस्था श्रेष्ठ जाली. हातूंतल्यान नियंत्रणाची गरज निर्माण जावन शासनसंस्था आनी दंडनीत उत्पन्न जाली आसूंक जाय.

*राबित्याचीं थळां:* अश्मयुगांत राबित्याचे दोन प्रकार दिसून येतात. गुंफा आनी घोली हांच्यासारको सैमीक आलाशिरो आनी खोंपी वा तंबू हांच्यासारकीं कृत्रिम आवरणां. पुराणाश्मयुगांत कडक थंडेच्या हवामानाक लागून मनशान घोलींचो वा खांची आशिल्ल्या कडेकपाऱ्यांचो आश्रय घेतलो. सगळ्यांत पूर्विल्ल्यो ज्ञात अशो घोली चीनच्या जोकोत्येन (Chou-kou-tien) वाठारांत सांपडल्यात. त्या उपरांतच्यो घोली यूरोपांत दक्षिण फ्रांस आनी उत्तर स्पेन, आशियांत पॅलेस्टाईन आनी सिरिया हांगा तशेंच आफ्रिकेंतल्या मोरोक्को हांगा सांपडल्यात. आल्जिरियाच्या भूमध्य सागराकडल्या वाठारांत मध्याश्मयुगांतल्या वसणुकांचे अवशेक मेळ्ळयात. भारतांत मध्य प्रदेशांतल्यो घोली आंतराश्मयुगीन आसात. अमेरिकेंतय अश्मयुगांतल्या विंगड विंगड टप्प्यांतल्यो तरेकवार घोली मेळ्ळयात. राबित्याखातीर वापरिल्ल्यो घोली वा कपारी, तांचीं तोंडां वाऱ्याचे दिकेक येवचीं ना हे नदरेन वेंचून काडटाले.

मनशान उबारिल्ल्या आलाशिऱ्याचे स्पश्ट अवशेश सगळ्यांत पयलीं उत्तरपुराणाश्मयुगांत मेळ्ळयात. ते एका खासा भागांत, खासा समाजगटाकडेन संबंदित आसात. आग्नेय यूरोपांत चेकोस्लोव्हाकियाचे व्हिस्टोनीस, ऑस्ट्रोव्हा आनी पेट्रोव्हिज, दक्षिण रशियांत डॉन न्हंयेवयल्या गागारिनो हांगा आनी सायबेरियांत टिमोनोव्हका हांगा हे अवशेश मेळटात. Mammoth ह्या जनावराची शिकार होच तांचो मुखेल वेवसाय आशिल्ल्याकारणान ह्या लोकांक शिकारेखातीर विरळ रानांत वचून राबितो करचो पडलो. थंय तांणी रावपाखातीर तंबू आनी खोंपी बांदल्यो. वांटकुळयो वा लंबवर्तुळाकार आकार आशिल्ल्यो खोंपी आकारान खूब मोट्यो आसताल्यो. देखीक: 'व्हिस्टोनीस': (१५ मी. लांब आनी ९ मी. रुंद) हांचेर झाडांच्यो ताळयो तिरप्यो एकामेकांक तेंकोवन दवरून तांचेर पालो, तण वा चामडें पातळावन दवरताले. भोंवतणचे जमनीपरस घराची जमीन खोलगट आसताली. एके खोंपींत सुमार ५ चुली आसताल्यो.

टिमोनोव्हका (सायबेरिया) हांगा उत्तरपुराणाश्मयुगांत प्रचारांत आशिल्ल्या दुसऱ्या एका प्रकारच्या घरांचे अवशेश मेळ्ळयात. हीं घरां कडक शिंयापसून राखण दिवचेखातीर तयार केल्लीं आसूंक फाव. हांका 'कृत्रिम घोली' अशें म्हळ्यार जाता. तांचे रचनेखातीर जमनींत तीन मी. खोलायेचें वाटकुळें फोणकूल खणटाले. भितर देंवपाक सोंपणा आसतालीं. वयल्यान लाकडाचे व्हडले आडामे आनी कोंडे घालून तांचेर तण, पालो, घालून आनी चिखल थापून पाखें तयार करताले. खोपीच्या भायर उक्तडार चुली पेटयताले. चीनांत शान्सी वाठारांत तशेंच भारतांत काश्मीराक बुर्झाहोम हांगा असलीं नवाश्मयुगांतलीं घरां सांपडल्यांत. आंतराश्मयुगांतलें हवामान बरेंच उश्ण आशिल्ल्या कारणान मनशान घोलींनी रावपाचें सोडून उक्तडाचेर रावपाक सुरवात केली. जंय नुस्तें मेळटा अश्या न्हंयच्या आनी तळयांच्या लागसार वसणूक वाडली. चड काळ उरपी आनी प्रशस्त घरां बांदपाक सुरवात जाली. घरांचे बांदावळीखातीर वाळवंटी (सुकी) वा उंचावयली जमीन सोदताले. लांकडाच्यो वण्टी आनी चामड्याचीं पाखीं आसतालीं. सरे (इंग्लंड), डेन्मार्क, हॉलंड हांगा घरांचे चोमे तयार जाले.

नवाश्मयुगांत घर बांदपाच्या मळार क्रांतिकारक बदल घडून आयले. घटमूट घरां बांदपाखातीर तण, कोंडे, चामडें हांच्या बदलाक लाकडांचे व्हडले लोटिंगे, फातर, विटो हांचो उपेग जावपाक लागलो. घरांचो आराखडो आतां वांटकुळो वा चौरस जालो. कोंडे-वेताच्या वेळांपसून, फातरांनी-विटांनी बांदिल्ल्यो घट्ट वण्टी आनी तांचेर गिलावो केल्लें

रंगकाम ही जार्मो पध्दत सगळ्या घरांनी दिसून येताली. जेरिको (पॅलेस्टाईन), खिरोकिटिया (सायप्रस), हसौना (उत्तर मेसोपोटेमिया) हे घुमटाकार पाख्यांचे खास नमुने आशिल्ले. हलाफ (सिरिया) आनी आर्पाकिया (उत्तर इराक) हांगा कांय वेगळ्याच प्रकारची घरांची रचणूक दिसून येता. नवाश्मयुगांत वास्तुविद्येची सर्वांगीण उदरगत खास करून पॅलेस्टाईन, इराक, तुर्कस्तान ह्या वाठारांत आनी भूमध्य समुद्रांतल्या कांय जुव्यांत जाली. लांकडाचो, कोंड्याचो वापर करून नवाश्मयुगांत बांदिल्लीं सोबीत घरां युरोप, चीन, भारत आनी फायूम (ईजिप्त) हांगा दिसतात.

आंतराश्मयुगांत कांय सुवातींनी पांच-सात घरांचे चोमे दिसले, तरीकूय त्या वेळार 'गांव' हे कल्पनेचो जल्म जावंक नाशिल्लो. नवाश्मयुगांत रस्ते नाशिल्ले. दोन घरांच्या मदीं केल्ल्या मार्गानूच येरादारी चलताली. (देखीकः युरोपांतल्यो फेडर्झे वसणुको). वाहनां नाशिल्ल्यान खेड्यांक एकामेकांक जोडपी रस्तेय नाशिल्ले. आर्पाकिया आनी खिरोकेटिया हांगा मुखेल रस्त्यांचेर फरसबंदी केल्ली. खेड्यांचे राखणेखातीर सभोंवतणी बांदावळ करपाची वेवस्था नवाश्मयुगांत सुरू जाली. इ. स. पयलीं आठव्या सहस्त्रकांत जेरिकोची फातराची विशाल तटबंदी, भूमध्य दर्याभोंवतणचो वाठार आनी अ. आशिया हांगाची विटांची तटबंदी (मर्सीनू, हसितकार, ट्रॉय), उत्तर आनी मध्य यूरोपांतल्या वसणूकांभोंवतणची लाकडी तटबंदी आनी खंदक (कोलोन-लिंडन्थॉल) हीं थोडीं उदाहरणां आसलीं तरीकूय ग्राम-वेवस्था आनी येवजण अस्तित्वांत आयिल्ली अशें निश्चित सांगपाक येना.

***हत्यारां आनी आयुधांः*** अश्मयुगांत मनशान लाकडां, हाडां आनी चड करून फातर हांचो पालव घेवन आपल्या उपेगाक येतलीं अशीं आयुधां घडोवपाक सुरवात केली. पूर्वपुराणाश्मयुगाच्या आरंभासावन खासा आकाराचे फातर घेवन ताचे कपचे आनी कुडके उडोवन ताका फावसो आकार दिवपाक ताणे सुरवात केली. भुसभुशीत फातराचे आडवीं तळपां मेळूंक शकतात, हाचें गिन्यान ताका जालें. ल्हान आकाराचीं पातीं आनी छिलके हांच्याखातीर चर्ट (chert), अॅगेट (agate) अशे एकदम घट्ट आनी एकसंध पाशाणप्रकार ताणे वेंचून काडले. बदामी आकाराचें आनी वेगवेगळ्या उद्योगांचें 'हातकुराड' हत्यार तयार करपाखातीर ताणे दोन वेगवेगळ्यो पध्दती सोदून काडल्यो. फातराचे कपचे उडोवन आयुधाक फाव तसो आकार घडोवपाच्यो 'अबेव्हिलियन' आनी 'अश्यूलियन' पध्दतींचो ताणे सोद लायलो. फातराच्या आयुधाक लाकडी वा हाडाच्या दांड्याची जोड दिवपाचें गिन्यांन ताका जालें. उत्तरपुराणाश्मयुगापसून फुडें कुराडी, विळे, बाण, खुरपीं अशीं संयुक्त आयुधां तयार जालीं.

विंगड विंगड प्रकारचीं कार्यक्षम उपकरणां आनी आयुधां हांच्या निर्मितीतंत्राची उत्क्रांती पूर्वयेवजणेप्रमाण जाली ना. गरजो, मेळटा ती सामुग्री आनी परंपरागत गिन्यान हांचे धर्तेचेर ती जायत गेली. देखीक-पुराणाश्मयुगांत चड करून घातक आयुधां तयार जालीं, जाल्यार नवाश्मयुगांत शेतकी वेवसायाक उपेगी अशीं विळो, खणपाची बडी हीं अवजारां तयार जालीं. भालो, 'बोला' (सुकण्यांक मारपाची एके तरेची गोफीण), धनुश्य आनी बाण हीं जीवघेणीं क्षेपण-आयुधां तयार जालीं. धनुश्य-बाणाचो उपेग आंतराश्मयुगापसून सुरू जालो. धनुष्याक चामड्याची वादी लायताले आनी बाणाक फातराचीं वा हाडांचीं तोंकां बसयताले.

हाडां-शिंगां हांचेपसून तयार जाल्ल्यो बऱ्योच वस्तू आयज लेगीत तिगून उरल्यात. तातूंत चड करून बाणांचीं तोंकां, नुस्तें मारपाखातीर वापरिल्ले धाकटे कांट्यारे बाण, गरे, सुयो, दाबणां, हतया दांता-वस्तू हांचो आस्पाव जाता.

***उजोः*** अश्मयुगांतलें सगळ्यांत पूर्विल्ले अशे मनीससंबंदान उज्याचे अवशेश चीनांतल्या जोकोत्येन घोलींत मेळ्ळ्यात. पूण एकदां पेटिल्लो उज्याचो धग एकसारको पेटत दवरपाची कला जोकोत्येनच्या लोकांक खबर नाशिल्ली. लाकडां, हाडां, कोळसो उज्याखातीर जळोव म्हूण वापरताले. आंतराश्मयुगांत आनी नवाश्ययुगांत उजो निर्माण करपाची विद्या साध्य जाली आसूंक जाय. तिख्याचो अंश आशिल्ले कुपादरीचे फातर घासून उजो तयार करताले. उज्याचो उपेग ह्या कामांखातीर जातालोः कृत्रिम रितीन उश्णताय आनी उजवाड निर्माण करपाखातीर. ताचेर मांस भाजून खावपाखातीर, जनावरांची चरबी फातराच्या दिव्यांत घालून वाती जळोवपाखातीर, जनावरांक भेश्टावन राखण करपाखातीर बडयांचीं आनी हाडांचीं तोकां भाजून टणक करपाखातीर आंतराश्मयुगांत आनी नवाश्मयुगांत उज्याचो वापर सुटसुटीतपणान करपाखातीर शेगड्यो, चुली आनी भाटयो हांचो वापर सुरू जालो. नवाश्मयुगांत रांदपावांगडाच मातयेच्यो मूर्ती आनी आयदनां भाजपाखातीर उज्याचो उपेग जातालो.

***उपकरणां, आयदनांः*** पुराणाश्मयुगांतलें आनी आंतराश्मयुगांतलें एकदम अस्थिर आनी हेडगें जिवीत मतींत घेतल्यार, मनशाक अन्नपदार्थ सांठोवपाची कसलीच गरज भासलीना. उत्तरपुराणाश्मयुगांत चित्रकारांनी वापरिल्ले फातराचे दिवे सोडल्यार आनी कसलेंच आयदन ज्ञात ना. नवाश्मयुगाचे सुर्वेक जेरिको, जार्मो हांगाचो मनीस फकत वाटयो, पेले असलीं फातराचीं आयदनां वापरतालो. नवाश्मयुगाच्या मध्याक अ. आशिया आनी भूमध्य समुद्राभोंवतणचो वाठार हांगा मृत्पात्रां करपाक सुरवात जाली. मातयेच्या आयदनांक तरांतरांचे आकार दिले. उदकासारके द्रवपदार्थ सांठोवन दवरपाखातीर ल्हान तोंडाचीं व्हडलीं आयदनां तयार केलीं. ह्या आयदनांक रंग लावन तांचेर सोबीत नक्षीकाम केलें. चक्राचो सोद लागतकच चड प्रमाणबध्द आनी वेगवेगळ्या आकाराचीं आयदनां घडोवपाच्यो पध्दती आयल्यो. आंतराश्मयुगांतल्या युरोपांत (डेन्मार्क-एर्टेबोल संस्कृती) कोंडे, करड आनी वेत एकठांय विणून नुस्तें धरपाखातीर तयार केल्ले व्हडले पांटले वापरपाक सुरवात जाली. यांग-शो ह्या चिनी नवाश्मयुगीन समाजापरस दक्षिण अमेरिकेचें कोंड्याची वेळां विणपाचें काम एकदम ऊंच पांवड्याचें आशिल्लें अशें मानतात.

***धर्मः*** पुराणाश्मयुगांतल्या आनी आंतराश्मयुगांतल्या धर्मीक जिविताचें मुखेल साधन म्हळ्यार घोलींतलीं चित्रां. ह्या घोलींक देवळां (प्रार्थनाघरां) म्हूण वळखताले. मध्याश्मयुगांतलें 'व्हिस्टोनीस' हें पुरोयताचे घर सोडल्यार हाचेपयलींच्या काळांतली धर्मीक स्वरुपाची कसलीच वास्तू मेळना. जेरिको हांगाचीं मंदिरां आयताकार (rectangular) आशिल्लीं. तांच्या मुखार एक चौक आनी एक ल्हान मडंप आसतालो. दारामुखावयल्या वण्टींत कुरकुट करून तातूंत फातराच्यो मूर्ती दवरताले. आर्पाकिया हांगा एक व्हड घुमटाकार मंदिर आसा. तुर्कस्तानांतल्या नवाश्मयुगीन अवशेशांत (कटाल हयुक) आनी उबाइड संस्कृतायेच्या अवशेशांवयल्यान (एरिडूं आनी टेपे गौरा) ह्यो वास्तू थंयचें मूर्तीकाम, वण्टीवयलीं चित्रां आनी शिल्पां हाकालागून धर्मीक उपेगाच्यो आसूंक जाय अशें दिसता. सुमेरियन काळांतल्या झिगुरातसारक्या देवळाच्या वास्तूंचो रचनाकौशल्याचो उगम हांगा पळोवपाक मेळटा. तेभायर फातराच्यो, मातयेच्यो, हाडाच्यो मूर्ती आनी थर्डी हांच्यावयल्यान धर्मीक जिविताविशीं बरीच म्हायती मेळटा. पूण तांच्यो धर्मीक कल्पना, विचार निश्चित कसल्या स्वरुपाचे आशिल्ले हाचो स्पश्ट पुरावो मात आयज मेळना. तरी लेगीत पुरोयताची सुवात आनी ताचें काम हाची थोडीभोव कल्पना येता.

जारणमारण सारक्या तंत्राचेर अश्मयुगीन मनशाचो विश्वास आशिल्लो. एकाद्र्या जनावराचे ल्हान प्रतिकृतीचेर बाण लागिल्ल्याचें चित्र काडलें, म्हणटकच तो प्राणी शिकारेंत सहज हाताक लागतलो असो समज आशिल्लो. फ्रांस आनी स्पेन हांगासल्ल्या घोलींत असलीं कितलींशीच चित्रां सांपडल्यांत. भाल्याचे बडयेवयलीं कोरीव चित्रांय ह्याच उद्देशान काडल्यां आसतलीं. फकत शिकारीचेर आदारून आशिल्ल्या मनशान आपल्या वेवसायांत अतिमानुषी बळाचो अशे तरेन पालव मेळोवपाचो यत्न केलो. जननतत्त्वाची आराधना जाताली असो

पुरावो मेळ्ळा. वयर उल्लेख केल्ल्यो मातृका-मूर्ती हे तातूंतलेच मुखेल अवशेश. समागम करपी पशूंत आनी फ्रांसांतल्या घोलींत आशिल्ल्या पुराय नग्न स्त्रीमूर्तींवयल्यान होच आशय दिसून येता. तिसरी म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार मरणाउपरांतचें जिवीत. 'आत्मो अमर आसा' ही कल्पना पूर्वपुराणाश्मयुगांतूच मूळ धरून बसल्या आसूंक जाय. हे कल्पनेचे दोन पांवडे दाखयल्यात. एक मृतात्म्याचो प्रवास आनी दुसरे मनशाच्या स्वरुपांत दाखयल्लो पुनर्जल्म. युरोपांत सांपडिल्ल्या निअँडरथल मनशाच्या थड्यांत मरणाउपरांतच्या प्रवासाच्या उद्देशान अन्न, हत्यारां, वस्ती-दागिने पुरिल्ले दिसतात. मड्याचे पांय पोटाकडेन दोडून दवरताले. हाचो अर्थ आवयच्या पोटांत भुरगें हेच अवस्थेंत आसता हें सूचित करून पुनर्जल्माची वाट पळोवपी हो जीव धर्तरेच्या पोटांत तेच अवस्थेंत पुरताले. घोलीचे वा खोपीचे जमनीपोंदा मडें पुरताले. हाचो उद्देश हो मृतात्मो घराची राखण करपाखातीर थंयच दवरताले असो अदमास कांय जाणकार काडटात. एकाद्र्या जनावराच्या कांय खासा शक्तीक वा गुणांक लागून ताका म्हत्व प्राप्त जातालें आनी तो एकेका पंगडाचो वा कुळाचो पालक जातालो. ताची प्रतिकृती त्या गटाचो बावटो वा निशाणी (गणचिन्ह) अशें मानताले. नवाश्मयुगांत स्त्रीतत्वाची पूजा ह्या स्वरुपांत जाताली. ल्हवल्हव पुरुषतत्त्वाचीय पूजा सुरू जाली. मृतात्म्याची वेवस्था चड बारीकसाणीन जावपाक लागली शवपेटी वापरुन वेवस्थित बांदिल्ली व्हडलीं थडीं दिसपाक लागलीं. चडशा थड्यांत मातृकामूर्ती दवरताले. शेतकामाखातीर सूर्य आनी पावस ह्या दोन देवतांची उपासना चलताली. वेगवेगळ्या समजणेंतल्यान निर्माण जाल्ल्या वेगवेगळ्या देव-देवतांची पूजा-अर्चा आनी प्रार्थना हांच्याखातीर घोलींतलीं देवळां निर्माण जालीं आसूंये.



अश्मयुगांतलीं हत्यारां आनी आयुधां

*अलंकार, कला:* आपली कूड अलंकारांनीं सजोवपाची इत्सा मनीससभावांत प्राचीन काळासावन चलत आयल्या. अश्मयुगांतले कांय सांगाडे तांबडे मातयेन रंगयल्ले दिसतात. हाचेबेल्यान अश्मयुगीन मनीस आंगाक रंग काडटालो आसूंक जाय अशें अनुमान काडटात. जनावरांचीं हाडां, दांत, नाखटां, सुक्यो बियो हांकां बुराक करून तांच्यो माळो गळ्यांत घालपाची पध्दत आशिल्ली. रंगयाळे, चमकदार फातर घेवन तांचे मणी, हार आनी ताईत करून तांच्यो माळो आंगाक गुठलायताले. नवाश्मयुगांत मणयांचे विंगड विंगड प्रकार पळोवपाक मेळटात. अश्मयुगांतलो मनीस जनावरांचें चामडें नाजाल्यार लोकर घेवन आंगा धांपतालो. सूत कातपाक नवाश्मयुगांत आरंभ जालो. मृत्पात्रांच्यां कांय अवशेशांचेर बुतांव आशिल्लें जाकीट, उपवस्त्र, घागरो हांचीं चित्रां दिसून येतात. पूण विणकाम आनी शिवणकाम हांचेविशीं चड माहिती मेळना.

अश्मयुगांतल्या दीर्घ कालखंडातले चित्रकलेचे आनी मूर्तिकलेचे कितलेशेच नमुने आज पळोवंक मेळटात. यूरोपांत आनी आफ्रिकेंत पूर्वपुराणाश्मयुगापसून त्यो नवाश्मयुगामेरेनच्यो कलाकृती आसात, जाल्यार आशियांत फकत आंतराश्मयुगांतलीच चित्रकला दिसता. पूर्वपुराणाश्मयुगांतल्या चित्रकलेचे बऱ्यांतले बरे नमुने फ्रांन्स आनी स्पेन देशांतल्या घोलींत सांपडल्यात. ह्या चित्रांनी सैमीक रितीन मेळिल्ले रंग वापरल्यात अशें दिसता. भोंवतणी वावुरपी गवे, रानरेडे, हरणां, घोडे, प्राण्यांचे शिकारेचे प्रसंग, नाच करपी दादले-बायलो, धर्मीक विधी करपी पुरोयत हे मुखेल चित्रविशय जावन आसात. मूर्तिकलेचे नमुने उत्तर पुराणाश्मयुगांतलेच आसात. तातूंत हाडां, शिंगां आनी फातर हांच्या कोरीव कामाचो आस्पाव आसा. फातरांच्या कामांत अर्धाकृतीच्यो आनी पूर्णाकृतीच्यो स्त्रीमूर्ती (मातृकामूर्ती) चड प्रमाणांत आसात.

**भारतीय अश्मयुग:** भारतांत आयजमेरेन जाल्लें उत्खनन आनी संशोधन अश्मयुगांतल्या खंयचेच अवस्थेंतल्या मनशाच्या जिवितार्चे स्पश्ट, चित्र दोळ्यांमुखार उबें करूंक शकना. तातूंतल्या तातूंत, नवाश्मयुगीन जिविताविशीं थोडीभोव माहिती मेळटा पूण हेर युगांतलो मनीस, ताची वसणूक, ताचे भोंवतणची सृश्ट हांची जी म्हायती मेळटा ती सामकी अर्दकुटी आनी अस्पश्ट आसा. हाचें कारण म्हळ्यार अश्मयुगीन मनशाच्या जिविताचेर उजवाड घालपी जे अवशेश मेळ्ळ्या ते फुटके आनी अर्दकुट्या स्वरुपाचे आसात. जे कांय निष्कर्श काडल्यात, ते फकत फातरांचीं आयुधां आनी उपकरणां हांच्या वर्गीकरणांतसून. गंगा, साबरमती, नर्मदा, तापी, महानदी, गोदावरी, कृष्णा, तुंगभद्रा, ब्राह्मणी, पेन्नार, पालार ह्या न्हंयांच्या देगणांत कुपादरीचे (quartzite) आनी पाशाणाचे परशू खूबकडेन सांपडल्यात. बदामी आकाराचे हे परशु धारदार पूण खडबडीत आसा. युरोपांतल्या अश्मयुगाच्या आरंभाचीं उपकरणां आनी परशू हातूंत बरेंच सारकेपण आसा. पुराणाश्मयुगांत भारतांत सगळयाक आदिमानवाची वसणूक आशिल्ली अशें हाचेवयल्यान अनुमान काडटात. हो मनीस पयलीं वायव्य पंजाबच्या दोंगरी वाठारांतल्यान हांगा पावला आसूंक जाय. कांय शास्त्रज्ञांनी दुसरें एक अनुमान काडलां तें म्हळ्यार भारतीय आदिमानवाचो उगम पयलीं दक्षिण भारतांत जालो आनी थंयसून ते पयल्या हिमयुगाचे अखेरेक पंजाबाकडे पावले. म्हैसूरांतलो ब्रह्मगिरी, पंचमढीचो म्हादेव दोंगर, पंजाबांत उचली, गुजरातांत लंघनाज आनी हिरपूर हांगा सांपडिल्लीं उपकरणां (Microliths) मात मध्याश्मयुगांतलीं आसूंक जाय. गुजरातांत मनशांचे सांगाडे आनी जनावरांचीं हाडां मेळ्ळ्यांत. म्हैसूर, गुजरात, काश्मीर ह्या वाठारांनी नवाश्मयुगांतलीं तीक्ष्ण आनी गुळगुळीत आयुधां सांपडल्यांत. भारतीय आदिमानवाक उज्याचो उपेग खबर आशिल्लो वा ना, मातयेचीं आयदनां करपाक येतालीं वा ना, तो शेतकाम- गोरवां पोसप हे वेवसाय करतालो वा ना हाचेविशीं जाणकारांचें कांयच एकमत ना. कारण तांकां सबळ पुरावो आजून मेळूंक ना.

- कों. वि. सं. मं.

**अश्वघोष:** इ.स. पयल्या शतमानांतलो एक नामनेचो संस्कृत महाकवी, नाटककार आनी बौध्द तत्वज्ञ. हाच्या ग्रंथांतल्या व्यक्तिगत उल्लेखांवेल्यान हाची कांय माहिती मेळ्ळ्या. हो साकेत (अयोध्या) हांगा रावतालो. ताचे आवयचें नांव सुपर्णाक्षी. ताका 'आचार्य', 'भदंत', 'महाकवी' आनी 'महावादी' ह्यो पदव्यो आशिल्ल्यो. तो मुळांत ब्राह्मण पूण, फुडें बौध्द धर्मांत गेलो. महाभारत, रामायण, पुराणां, सांख्यादी दर्शनां, उपनिषदां, अर्थशास्त्र, नाट्यशास्त्र ह्या पूर्विल्ल्या काळांतल्या काव्यांचो ताणें खोलायेन अभ्यास केल्लो, हें ताच्या काव्यकृतींतल्यान दिसून येता. ताच्या एका तिबेटी चरित्रकारान बरेवन दवरलां, 'शिकप सोंपतकच अश्वघोष बुदवंत पंडितांकडेन खंडन-मंडनात्मक शास्त्रार्थ आनी भासाभास करपाक लागलो. भासाभाशेंत तो व्हडव्हड पाटांगड्यांक

हरयतालो. युआन च्वांग हाणें ताका पांडित्यांतलो प्रतिसूर्य अशें म्हळां. पूण अश्वघोषाक एक दीस पार्श्व नांवाचो महापंडित बौध्द भिक्षू मेळ्ळो आनी ताच्या वांगडा जाल्ल्या वादांत अश्वघोष हरलो. ताच्याकडल्यानूच मागीर अश्वघोषान बौध्द धर्माची दीक्षा घेतली आनी तो भिक्षु जालो.

तो जसो पंडित आशिल्लो तसोच बऱ्यापैकीं गायकूय आशिल्लो. प्रवचन आनी गायन ह्या दोनूय साधनांवरवीं ताणें बौध्द धर्माचो प्रचार केलो आनी खूब जाणांक त्या धर्माची दीक्षा दिली. तो गावंक लागतकच रस्त्यावेल्यान वचपी घोडो लेगीत आपलो 'फुरफुर' आवाज बंद करून ओगी जातालो. देखूनच ताका 'अश्वघोष' (अश्व=घोडो, घोष=गर्जना) हें नांव पडलें अशी आख्यायिका आसा. फुडें तो महायान पंथाच्या संस्थांपकांपैकी एक जालो. तो राजा कनिष्काचो धर्माविशींचो सल्लागार आशिल्ल्यान कनिष्कान आपयिल्ल्या चवथ्या धर्मपरिशदेचें संचालन ताणेंच केलें अशें म्हण्टात. ताणें धर्मकाजाखातीर परंपरागत संस्कृत भाशा वापरली.

अश्वघोषान बरयिल्ले ग्रंथ अशे: १. बुध्दचरित (महाकाव्य) २. सौंदरनंद (महाकाव्य) ३. गडिस्तोत्रगाथा (धर्मीक लघुकाव्य) ४. सूत्रालंकार (कथाझेलो) ५. शारीपुत्रप्रकरण (नाटक) ६. महायान श्रध्दात्पादसूत्र (तत्वगिन्यानाचो ग्रंथ) ७. वज्रसूची (वर्णवेवस्थेआड वादग्रंथ). ह्या सगळ्या ग्रंथांत 'बुध्दचरित' हें ताचे प्रतिभेचें बरें उदाहरण आसा. बुध्दाविशींच्यो अतितायेच्यो दंतकथा काडून उडोवन ताणें शुध्द आनी सोपें अशें बुध्दचरित्र बरोवन मनशाच्या काळजामेरेन पावयलें. कल्पना, कथा, आनी वर्णन ह्या तीनूय गुणांचो त्या काव्यांत त्रिवेणी संगम जाला अशें जाणकारांचें मत आसा. अश्वघोषाच्या खंयच्याय साहित्यकृतींत पळेल्यार धर्मपरिवर्तनाची उपाट उर्बा दिसून येता. मतांमतांच्या जंजाळांत पडनासतना मनशान बुध्दप्रणीत अष्टांगिक मार्ग आपणावन जिविताचें सार्थक करचें अशें ताणें सांगलां.

सामान्य लोकांक बौध्द धर्माचें म्हत्व पटोवन दिवपाखातीर अश्वघोष काव्य-नाटकांसारक्या ललित रचनेकडे आयलो. अश्वघोषान काव्याची प्रेरणा वाल्मीकीच्या रामायणापसून घेतली. ताची काव्यशैली वैदर्भी. तातूंत प्रसाद, माधुर्य, सभाविकता आनी ओघ हे गुण आयल्यात. ताणे दिल्ले दृष्टान्त विशयाक फावशे आसून तर्कशुध्द विचार आनी मधुर भाव हांचो ताच्या काव्यांत सोबीत संगम जाला. भावनेक उठाव दिवपी वेगवेगळ्या छंद वापरपांत ताचें कसब दिसून येता. बौध्द संप्रदायांत ताका खूब मोटो भौमान मेळ्ळो. इतलेंच न्हय, तर सातव्या शतमानामेरेन अश्वघोष 'बोधिसत्त्व' ह्या रुपान पूजाविशय आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**अश्वमेध:** राजान करपाचो एक व्हड सोमयाग. वेद काळांत राजा पुत्रप्राप्तीखातीर आनी सगळ्यो मनांतल्यो इत्सा पूर्ण जावपाखातीर; तशेंच उपरांतच्या काळांतले राजा विश्वदिग्विजयान चक्रवर्तिपद मेळपाखातीर हो याग करताले. 'श्रीर्वै राष्ट्रमश्वमेध': अश्वमेध म्हळ्यार राश्ट्र आनी समृध्दी, देखून ताका राश्ट्राचें आनी समृध्दीचे प्रतीक मानलां, अशें अश्वमेध हो सगळ्या यज्ञांचो राजा अशेंय म्हळां.

ऋग्वेदकाळाआदीं बरींच वर्सां हो यज्ञ प्रचारांत आशिल्लो अशें जाणकारांचें मत आसा. ताचे उत्पत्तीची आख्यायिका अशी आसा- एक फावट प्रजापतीच्या दोळ्यांतली एक मुंडली गळून पडली आनी तातूंतल्यान अश्व (घोडो) तयार जालो. उपरांत देवांनी अश्वमेध करून ती मुंडली प्रजापतीच्या दोळ्यांत बसयली. तेन्नाच्यान प्रजापतीक खुश करपाक अश्वमेध करपाची चाल पडली.

अश्वमेध करपाक 'श्यामकर्ण' (काळ्या कानाचो) धवो घोडो लागता. तशेंच ताच्या धव्या आंगाचेर काळे थिपके आसचे पडटा. हो घोडो सजोवन ताका चारीय दिकांनी फिरयतात. वाटेर हेर राजांनी त्या घोड्याक आडायनासतना यज्ञ करपाक मान्यताय दिली आनी एक वर्स भरांत हो घोडो परतो आयलो तरच हो अश्वमेध यज्ञ पुराय जाता. तशेंच जो कोण त्या घोड्याक आडायता ताचेकडेन झूज करून एक वर्सभरांत तो घोडो सोडयना जाल्यार हो यज्ञ जायना. तेचपरी फिरता आसतना घोड्याक कितेंय जालें, घोडो दुयेंत पडलो वा मेलो जाल्यार जायतीं प्रायश्चित्तां सांगल्यांत.

अश्वमेधाचो विधी सत्याषाढ श्रैतसुत्रांत अशेतरेन दिला: अश्वमेधाचो आरंभ चैत्री पुनवेक जाता. सुर्वेक कर्तो राजा 'सांग्रहणी' विधी करता. उपरांत दीक्षा घेवन, केंस आनी नाखटां काडटा, न्हावन वस्त्रालंकार घालता आनी मौन पाळटा. उपरांत आपल्या राणयां वांगडा अग्निशाळेंत गार्हपत्याच्या अस्तंतेक, उत्तरेक तोंड करून बसता.

ह्या यज्ञांत घोड्यावांगडा हेर जनावरांचेय हनन (मारप) करतात. ह्या जनावरांक बांदपाक बेलाचे, खैराचे, पळसाचे, देवदारुचे आनी रगतरोड्याचे वट्ट २१ यूप बांदतात. २० युपाक दरेकी ९ अशे मेळून १८० जनावरां बांदतात. रगत रोड्याच्या मुखेल युपाक घोडो बांदतात. ह्या जनावरांत पाळीव आनी रानटी अशे दोन वर्ग आसतात. हातूंत रानटी जनावरांक मारीनासतना तांचेर कांय संस्कार करून तांकां सोडून दितात. अश्वमेधांत दुसरो दीस म्हत्वाचो आसता. त्या दिसा मेध्य अश्वाक हेर तीन घोड्यां वांगडा रथाक जुंपतात. ह्या रथांत यजमान आनी अध्वर्यु (यज्ञ चलोवपी) बसून तो रथ यज्ञभुंये भोंवतणी फिरयतात. उपरांत रुप्याचो पत्रो ताचेर दवरून घोड्याक मारतात. अश्वमेधांत पट्टराणी आनी मेल्ल्या घोड्याचें मैथुन सांगलां. वाल्मीकी रामायणांतूय हाचो उल्लेख मेळटा.

> पतत्रिणा तदा सार्धं सुस्थितेन च चेतसा।
> अवसद्रजनीमेकां कौसल्या धर्मकाम्यया।।
>
> (बालकांड: १४.३४)

अर्थ: (घोड्याक मारतकच) कौसल्येन धर्मकामना मनांत धरून थीर मनान (मेल्ल्या) घोड्या वांगडा एक रात काडली.

घोडो मारतकच ताच्या शरीरांतल्या चंद्र नांवाच्या मेदाचो याग करतात. उपरांत देवाक आहुती दिवन राजाचो अभिषेक करतात. अखेर वरुणाचें प्रतीक समजून टक्कल पडिल्ल्या मनशाच्या तकलेर आहुती दवरतात आनी ताका शंबर गायो आनी बैलगाडी दितात.

ऋग्वेदांत अश्वमेधाचो उल्लेख जायते फावट आयला, आनी अश्वमेधाक यम, आदित्य, त्रित, आनी सोम म्हळा. वेदोत्तर काळांत अश्वमेध कमी जायत गेले. भारतांत फुडल्या काळांत अश्वमेधाची प्रथा बंद पडली. जातकांत अश्वमेधाचो उल्लेख येवंक ना. हरिवंशपुराणाच्या मतान जनमेजया उपरांत पुष्यमित्रान अश्वमेध केल्लो (३.१९२-४०-४१). त्याच काळांत सातकर्णी हाणें दोन अश्वमेध केल्ले. भारशिंवान धा अश्वमेध केल्ल्याची इतिहासांत नोंद मेळटा. चवथ्या शेंकड्यांत सम्राट समुद्रगुप्तान अश्वमेध केल्लो. इ.स. पयल्या शेंकड्यासावन फुडल्या ७ शेंकड्यांत जी प्रबळ राज्यां वसयल्लीं त्या राज्यांच्या भूपतींनी अश्वमेध केल्लो. ह्या सातखंडाच्या कालखंडाक अश्वमेधाच्या पुनुरुध्दाचें युग अशें मानतात.

देहरादून जिल्ह्यांत कालसी लागसार यमुनेचे देगेर १९५३ वर्सा जें उत्खनन जालें, तातूंत अश्वमेधाची यज्ञवेदी तयार करपाखातीर वापरिल्ल्यो विटो आनी श्येवचितीचो कांय भाग मेळ्ळा. ह्या अक्षरवाटीकेवेल्यान हो इष्टकालेख इ.स. तिसऱ्या शेंकड्यांतलो आसूंक जाय अशें दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**अश्विनी:** मेष राशींतलें आनी नखेत्रमाळेंतलें पयलें नखेत्र. हें क्रांतिवृत्ताच्या मात्शें उत्तरेक आसा. हातूंत अस्तंत्या नखेत्र-पध्दतींतलीं 'एरिस' हातूंतलीं आल्फा (हॅमल: भोग १०°७७'; शर ८° ३०') बीटा आनी गॅमा हीं तीन नखेत्रां येतात. हातूंतलें उत्तरेकडलें आल्फा हें नखेत्र दुर्बिणींतल्यान निरीक्षण केल्लें पयलेंच तारकायुग्म जावन आसा. तिगांय भितर तें चड तेजीश्ट जावन आसा. ह्या तीनय नखेत्रांचो मेळून दिसपी आकार अश्वमुखासारको (अश्व= घोडो, मुख= तोंड) म्हळ्यार घोड्याच्या तोंडासारको दिसता म्हूण 'अश्विनी' हें नांव पडलें. कांय

जाणकार हाचीं दोनूच नखेत्रां मानतात. देखीक-ऋग्वेद आनी हेर संहिता हातूंत 'अश्वयुजौ' असो द्विवचनी उल्लेख आयला. महाभारतांत मात अश्विनी असोच उल्लेख आसा. १३ एप्रिलाक सुमार ह्या नखेत्राचो सूर्यप्रवेश जाता.

ह्या नखेत्राचें ध्यान अशें सांगलां:

तत्रादावश्विनी ज्ञेया पद्मपत्रनिभा शुभा ।
अश्ववक्त्राम्बुजारुढा द्विभुजा च सिताम्बरा ।
दक्षे दिव्यौषधीपात्रं बिभ्रती पुस्तकं करे ।।

अर्थः कमलपात्रासारक्या कांतीची, कमळाचेर बशिल्ली, शुभ, घोड्याचें तोंड आशिल्ली, धवें लुगट न्हेशिल्ली, दोन भुजां आशिल्ली, उजव्या हातांत दिव्य वखदांचें पात्र आनी दाव्या हातांत पुस्तक अशी अश्विनीची मूर्त करची.

- कों. वि. सं. मं.

**अष्टभोग:** अष्टभोग म्हळ्यार आठ भोग. सोमेश्वराच्या 'मानसोल्लास ह्या ग्रंथांत आठ भोगांचीं वर्णनां आयल्यांत. हे आठ भोग फुडल्या प्रमाण आसात.

१. वास वा सुगंधभोग २. बायल वा स्त्री भोग ३. भेस वा वस्त्रभोग ४. संगीत भोग ५. सुपारी वा तांबूलभोग ६. हांतरुण वा शय्या भोग ७. जेवण वा भोजन भोग ८. फुल वा पुष्प भोग.

**१. सुगंधभोग (वास)-** घामाचो वास वचपाखातीर वेगवेगळीं उटीं वा उटणीं लावप.

**२. स्त्रीभोग (बायल)-** ह्या भोगांत राजान खंयचे बायलेकडेन लग्न जावंचे, तिच्या आंगांत कसले गुण आसचे हें वर्णिला.

**३. वस्त्रभोग (भेस)-** हातूंत राजान खंयच्या ऋतुत कसलो भेस करचो. ऋतुमानाप्रमाण तांचे रंग कशे आसचे. कपडो जाड पातळ कितलो आसचो हाचें वर्णन केलां.

**४. संगीत भोग-** मानसोल्लासांत संगीत भोग कसो घेवचो हे खूब सुंदर रितीन सांगलां.

**५. तांबूलभोग (सुपारी)-** हातूंत सुपाऱ्यो खंयच्यान हाडच्यो, कश्यो सुकोवच्यो, कश्यो कातरच्यो, तें सांगलां. खास राजतांबूल (राजसुपारी) पिकिल्ल्या ५२ पानांची आसची. तातूंत मोतयांचो चुनो लावचो आनी त्या चुन्यांत कापूर, कस्तुरी आनी हेर सुगंधी (सुवासिक) द्रव्यां घालचीं अशें म्हळां.

**शय्याभोग-** हातूंत सात तरेचीं हांथरुणां आनी आठ तरेचे पलंग हांचे प्रकार सांगल्यात. तोयशय्या म्हळ्यार भितर उदक भरिल्ली चामड्याची गादी, हंसजा म्हळ्यार हांयसाच्या पिसाची गादी त्याभायर पुष्पशय्या (फुलांची गादी), कमलतंतूची शय्या (कमळाच्या सुताची गादी), साद्या कापडाची शय्या अश्यो वेगवेगळ्यो शय्या आनी तांचे भोग ह्या प्रकरणांत वर्णिल्यात.

**अन्नभोग-** हातूंत ऋतुमानाप्रमाण, शिवराक जेवण, मांसा जेवण, आनी पंचपक्वान्नां कश्यीं तयार करचीं तें सांगलां. मानसोल्लासांतलें अन्नभोग प्रकरण भारतीय जेवणावळ शास्त्रांतलें म्हत्वाचें पान जावन आसा.

**पुष्पभोग (फुल)-** हातूंत राजान कसल्या फुलांच्यो माळो घालच्यो हाचो उल्लेख आसून चंपक, मल्लिका, उत्पल, पाटल आनी हेर फुलांचीं नांवां तातूंत दिल्यात.

- कों. वि. सं. मं

**अष्टविनायक:** महाराष्ट्रांतल्या आठ मुखेल गणपतींच्या देवळांक एकवटीतपणान 'अष्टविनायक' अशें म्हण्टात. ह्या दैवतांची महाराष्ट्रांत तशेंच हेर कडेन बरीच नामना आसा. तांकां जागृत देवस्थानां अशें मानतात. हीं आठूय देवळां विंगड विंगड जाग्यांनी आसून, ह्या आठूय तीर्थांची मुद्गल पुराणांत वर्णनां मेळटात.

अष्टविनायकाचीं आठ तिर्थां फुडल्या प्रमाण आसात.

| *दैवताचें नांव* | *जागो* | *जिल्हो* |
|---|---|---|
| १. मोरेश्वर | मोरगांव | पुणे |
| २. चिंतामणी | थेऊर | पुणे |
| ३. गिरिजात्मज | लेण्याद्री | पुणे |
| ४. विघ्नेश्वर | ओझर | पुणे |
| ५. महागणपति | रांजणगांव | पुणे |
| ६. बल्लाळेश्वर | मुरूड (पाली) | कुलाबा |
| ७. वरद विनायक | महाड | कुलाबा |
| ८. गजमुख | सिध्दटेक | नगर |

अष्टविनायकाच्या दर जाग्यांचो नियाळ फुडल्याप्रमाण आसा:

अष्टविनायकाच्या आठ देवळांचें फुडल्या संस्कृत श्लोकांत खाशेलें म्हत्व दिलां.

स्वस्तिश्री गणनायको गजमुखो मोरेश्वर सिध्दिदः।
बल्लाळस्तु विनायकस्त्वथ मढे चिंतामणिस्थेवरे।
लेण्याद्रो गिरिजात्मज सुवरदो विघ्नेश्वरश्चोझरे।
ग्रामे रांजणसंस्थितो गणपतिः कुर्यात् सदा मङ्मंगलम्।।

**१. मोरेश्वर:** मोरगांव-जि. पुणे.

गणपती संप्रदायाचें हें एक आद्यपीठ जावन आसा. ह्या थळाचें मूळ नांव 'भूस्वानंदभुवन' अशें आसलें. हांगा भुंयेच्या भितल्ल्या भागाक जें क्षेत्र वशिल्लें ते भूंयेचो आवांठ मोराभशेन आसलो, अशें ब्रह्मपुराण अध्यायांत (३/३७-३८) म्हळां. ब्रह्मा, विष्णु, शिव, शक्ती आनी सूर्य ह्या पांच देवतांनी ह्या जाग्यार तप केलें. तेन्ना आदिशक्तिरूपान श्रीगणेशान तांकां दर्शन दिलें. पांच देवतांच्या इत्सेक मान दिवन श्री गणेशान थंय रावपाचें थारायलें. भाद्रपद शु. चवथीक श्री गणेशाची पुराय विधीन पूजा करून, पंचदेवतांनी ताची प्रतिश्ठापना केली. ह्या वाठारांत जे श्रध्देन, उजू चलणूकेन जियेतले तांकां कसलींच संकश्टां, बंधना आड येवचीं नात असो आशीर्वाद श्री गणेशान दिल्लो. पयलींसावन हांगा मोरांची वसती आशिल्ल्यान हांगा मयूरग्राम वा मोरगांव अशें म्हणपाक लागले. हें 'जागृत देवस्थान' जावन आसा.

श्री गणेशाचो व्हड भक्त चिंचवडकार श्री मोरया गोसावी आनी श्री गणेशयोगींद्र ह्या सत्पुरुशाच्या कार्यांक लागून ह्या क्षेत्रांक आगळें वेगळें म्हत्व मेळ्ळां. ह्या जाग्यार जायत्या गाणपत्यांनी उपासना केल्ल्याचो इतिहास मेळटा.

कमंडलू वा कान्हा न्हंयचे देगेर वशिल्ल्या ल्हानशा मोरगांवाक मयुरेश्वर गणपतीक लागून व्हड म्हत्व मेळ्ळां. गांवांत भितर गल्ली गल्लींतल्यान बाजारांत पावतकच एके उंचायेर, व्हड अशें देवूळ दिश्टी पडटा. पयलीं काळार दुस्मानाच्या घूरयांपसून राखण करपाखातीर जावंये देवळा भोंवतणी जमनीसावन ५० फूट उंचायेची वणत बांदल्या. चारय कोनशांनी मिनारांभशेन चार खांबे उबे केल्ले आसात. देवळाचो ऊंच घूड नदरेंत भरता.

देवळांच्या आगणांत सपणां चडचेपयलीं नगारखानो मेळटा. नगारखान्याच्या सकल गणपतीकडेन तोंड करून फुडल्या पांयांत दोन लाडू घेवन उबो राविल्लो एक फातराचो हुंदीर दिश्टी पडटा. ताच्या पंदरा-एक फूट उंचायेचेर फातराचो चौथरो, आनी ताचेर एक व्हडलो नंदी श्री गणेशाकडेन तोंड करून आशिल्लो दिश्टी पडटा. नंदीच्या चौथऱ्याच्या १०-२० फूटांचेर मुखेल देवूळ आनी ताचो प्राकार हो दुसऱ्या एका चौथऱ्यार आसा. पूण पयल्यापरस हो चौथरो थोडो वयर आसा. ह्या चौथऱ्यावयर सभा-मंडप आनी ताका लागून उदेंतेकडेन देवाचें शेजेघर आसा. सभामंडपामुखार दुसरो मंडप आसा. त्या मंडपाचे उदेंतेक नग्नभैरवाचें देवूळ आसा. अस्तंतेक तरटीचें एक पोरनें झाड आसा ताका 'कल्पवृक्ष' अशें म्हण्टात. ह्याच कल्पवृक्षापोंदा बसून मोरया गोसाव्यान तपश्चर्या केल्ली आनी इश्ट फळांची प्राप्ती करून घेतिल्ली. हांगा येवपी कांय साधक हेच तरेन कल्पवृक्षापोंदा व्रतअनुश्ठान करून इत्सित फळ मेळयतात. दुरगाच्या भितल्ल्या कोनशांनी मुद्गलपुराणांत वर्णिल्यो



मोरेश्वर, मोरगांव



सिद्धिविनायक, सिद्धटेक



बल्लाळेश्वर, पाली



वरदविनायक, महड



चिंतामणी, थेऊर



गिरिजात्मज, लेण्याद्री



विघ्नेश्वर, ओझर



श्रीगणपती, रांजणगांव

१. एकदंत २. महोदर ३. गजानन ४. लंबोदर ५. विकट ६. विघ्नराज ७. धूम्रवर्ण ८. वक्रतुंड ह्यो आठ प्रतिमा आसात. आतां त्यो नव्यान करून घेतल्यात.

सभामंडपाउपरांत गर्भकूड मेळटा. गर्भकुडींतलीं मूर्त 'मयूरेश्वर गणेशाची' आसा. गणपतीचें हें रुप नदरेंत भरुन रावता. मुद्‌गलपुराणांत 'हाका चार हात आनी तीन दोळे आसात, वयल्या दोन हातांमदल्या एका हातांत पाश तर दुसऱ्या हातांत अंकुश धरिल्लो आसा. सकयल्या दोन हातांमदीं उजवो हात धोंपराचेर दवल्ला तर दाव्या हातांत मोदक धल्ला,' अशें वर्णन केलां. पूण प्रत्यक्षांत ताचें दर्शन अशें जायना. ताच्या कपलार तिसरो दोळो आसूंये अशें दिसता. ह्या जाग्यार रत्न जडयिल्लें आसा. तेचपरी ताच्या बोंबलेंतय रत्न जडयिल्लें दिसता. हे मुखेल मुर्तीच्या दावे आनी उजवे कडेक हालवक येवपी सिध्दी-बुध्दी नांवाच्यो दोन देवता (धातूमूर्ती) आसात. मुखार उंदीर आनी मोर आसात. मोर (मयूर) हें वाहन आशिल्ल्यान ताका 'मयूरेश्वर' हें नांव पडलां. मयूरेश्वराची मूर्त ही खरी मूळ मूर्त न्हय अशें म्हण्टात. खरी मूर्त माती, लोखण आनी रत्न हांच्या अणूंची आसून ती सद्याच्या मुर्तिफाटल्यान 'गुप्त' रितीन आसा अशें समजतात.

ह्या थळांत चार म्हत्त्वाचे उत्सव जातात. विजयादसमीक, भाद्रपदांत, माघ म्हयन्यांतले चवथीक आनी चवथ्या सोमवती उमाशेक हे उत्सव जातात. ह्यो उमाशी वर्सांतल्यान चार फावट येतात.

**२. चिंतामणीः** थेऊर- ता. हवेली, जि. पुणे

अष्टविनायकांतलें दुसरें म्हत्वाचें क्षेत्र 'चिंतामणी' जावन आसा. 'चिंतामणी' संबंदान वेगवेगळ्यो पुराण कथा चलतात. ह्या चिंतामणीक अनुश्ठान करपी साधकांक शांती आनी थीरबुध्दीचें वरदान मेळटा अशें ह्या क्षेत्रासंबंदान म्हण्टात. चिंचवडचो मोरया गोसाव्यान थेऊरच्या जंगलांत खर तप केलें. ताच्या तपाचेर प्रसन्न जावन श्री गणेशान वाघाच्या रुपान ताका दर्शन दिलें. मोरया गोसाव्याक ह्याच जाग्यार सिध्दी मेळिल्ली. थेऊराक सतराव्या शेंकड्याच्या सुर्वेक माधवराव आनी रमाबाई पेशवा हांच्या काळांत व्हड म्हत्व मेळळें. माधवराव चिंतामणीचो भक्त आसलो. राज्याच्या कारभारांतल्यान वेळ मेळ्ळयार तो मन शांत

करपाखातीर, कुडीक विसव दिवपाखातीर येवन रावतालो. क्षयरोगान पिडिल्ल्या माधवरावान निमाणे दीस हांगाच सारले. आपलो निमाणो स्वास ताणी चिंतामणी मुखारच घेतलो. रमाबाई हांगाच माधवरावावांगडा सती गेली. आयज थंय सतीचें वृंदावन आसा.

चिंचवडचो संतपुरुस चिंतामणि देव हाणें सुमार ४०,००० रुपये खर्चून हें मंदिर बांदलें. तेउपरांत सुमार १०० वर्सांनी थोरले माधवराव पेशवा हांणी सभामंडप बांदून देवूळ वाडयलें. ताच्याउपरांत हरीपंत फडके आनी हेर भक्तांनी ह्या देवळांक आपल्या तांकी प्रमाण आदार दिवन चिंतामणीचें देवूळ सोबीत, सुंदर आनी व्हड केलें. देवळाचें मुखेल दार उत्तरेकडेन तोंड करून आसा. मुखेलदाराकडल्यान न्हंयमेरेन वचपाचो रस्तो पेशव्यांनी बांदला. थेऊर गांवाक तीन वटांनी मुळामुठ न्हंयन वेंगायल्या. हे न्हंयक बारय म्हयने उदक आसता. हांगा एके न्हंयच्या पाणट्याक कदंबतीर्थ वा चिंतामणि तीर्थ अशें म्हण्टात. हालींच श्रीमंत माधवराव पेशव्यालें तैलचित्र देवळाच्या प्राकारांत बसयलां.

हो गणपती दावे सोंडयेचो आसा. मूर्तीचें तोंड उदेंतेकडेन आसा आनी मांडयेचेर आसन घालां.

भाद्रपद शु चवथीक हांगा व्हड प्रमाणांत चिंतामणी गणपतीची परब मनयतात, चिंतामणी गणपती संबंदान खाशेली खबर ती म्हळ्यार ह्या गणपतीक चिंतामणीक हे गांव तम्रीप म्हूण मेळिल्लें. ह्या गांवची सनद औरंगजेबान दिल्ली.

३. **गिरिजात्मजः** लेण्याद्री (दोंगरांतलें देवस्थान), जुन्नर (जिल्हो-पुणे).

गिरिजात्मज गणपतीची ही जागा. दोंगरांत खणून तयार केल्लीं अयस पयस काय बौध्दाचीं लेणी (होवऱ्यो) आसात. गणेशपुराणांत ह्या जाग्यांचो उल्लेख 'जीर्णापूर' वा 'लेखनपर्वत' ह्या नांवांनी केला. हिमालय गिरिली चली पार्वती हिणें आपल्याक चलो जावंचो म्हणून ह्या दोंगरार खर तप केलें. आपले मन एकाग्र जावंचे म्हणून तिणें ही ल्हान भुरग्याची मूर्त घडयल्ली. पार्वतीचे भक्तीचेर प्रसन्न जावन ल्हान भुरग्याच्या रुपान गणपती प्रगट जालो. श्रीगणेशान सगळे भुरगेपणांतले दीस ह्याच दोंगराच्या वाठारांत सारले आनी जायत्या दैत्यांक दाळाक लायले अशी आख्यायिका चलता.

जुन्नराच्या उत्तरेक कुंकडी न्हंयचे पलतडीन एका दोंगरार हें देवूळ कोरांतून काडला. ह्या देवस्थानाक 'गणेशलेणी'य म्हण्टात. देवळाच्या भोंवतणी खोदकाम केल्लें आसा. देवळाच्या सभामंडपांत स फातरांचे खांब कोरांतिल्ले आसात.

देवळाचे दोनूय वटींनी मेळून सुमार अठरा कोरांतून काडिल्ल्यो होवऱ्यो आसात. सभामंडपांत संगमरवरी फरशी घाल्ल्यो आसात. देवळाच्या सभामंडपाचीं उंचाय व्हडलीशी ना. सभामंडपाच्या मुखार आठ कोरांतिल्ले खांब आसात. ताच्या वयल्या भागांक गाय, हत्ती, अशीं चित्रां कोरांतिल्लीं आसात. सभामंडपाचीं सपणां देवन सकल वतकच एक व्हड बौध्द स्तूप लागता. ताका लोक 'भीमाची गदा' म्हण्टात. हिचो आवांठ, उब्या करून दवरिल्ल्या एका व्हड गदेसारखो आसा. ह्याय जाग्यार वाग, शींव, हतयाचीं चित्रां कोरांतिल्लीं आसात. सुमार वीस वाटकुळे फातरांचे खांब हांगा आसात. खांबाच्या सामके पोंदाक चौकोनी यज्ञ कुंडाच्या आकाराची बसका आसा. वयली तक्तपोशी वाटकुळी आसा.

देवळाच्या भायर दोंगरामाथ्याचेर उदकाच्यो दोन टांक्यो आसात. तांचें उदक गोड आनी थंड आसता. देवळांतली श्री गणेशाची मूर्त सोबीत दिसना. गणेशाक शेंदूराचो मेळटा तसो आकार दिल्ल्यावरीं दिसता. ह्या शेंदूरमुर्तीसकल्या फातरांचो थोडो वांटो कोरांतिल्लो आसा. एका कोरांतिल्ल्या कोनशाच्या मदीं गणेश प्रतिमा दिसता. ह्या देवाच्या दाव्या-उजव्या आंगाक ल्हान वासरेर मारुती, गणपती आनी शंकर ह्या देवांची थापणूक केल्या. ह्या देवांची फाटीकडल्यान पूजा जाता असो समज आसा. हाचें कारण ह्या गणपतीचें तोंड उत्तर दिकेक आसा. पार्वतीन ज्या जाग्यार तप केल्लें ती व्होवरी एका अगम्य जाग्यार आसा. पूण ही मूर्त त्या होवरेच्या फाटल्यान खंयच्यातरी गणेशभक्तान कोरांतल्या आनी ते मुर्तीची 'गिरिजात्मज' ह्या नांवान आयजवयर पूजा चलता.

दोंगराच्या माथ्यार म्हादेवाचें थळ आसा. उदेंत वटेन सीतेची न्हाणी आसा. हांगाच्यान नामनेच्या शिवनेरी किल्ल्याचें दर्शन जाता.

सद्या दोंगर आनी होवरी, पुराण वस्तू संशोधन खात्याच्या ताब्यांत आसली तरी गिरीजात्मजाचें देवूळ स्वतंत्र आसा.

४. **विघ्नेश्वरः** ओझर, ता. जुन्नर, जि. पुणे

अष्टविनायकाच्या जोम्यांत आस्पाविल्ली ही चौथी मुवात. ह्या जाग्यार पूर्विल्ल्या काळांत विघ्नासुरान सत्कर्म करपी ऋषी मूनींक आनी उजू चलणूकेन चलपी जनतेक खूब पिडली. विघ्नासुराच्या त्रासांतल्यान मुक्त जावपाखातीर पार्श्वऋषीन गणपतीक आळयलो. पार्श्वऋषींक गणपती प्रसन्न जालो. तो वाठार होच अशें मुद्‌गल पुराणांत वर्णिलां. गणपतीन फुडें पार्श्व ऋषीगेर जल्म घेतलो आनी विघ्नासुरांकडेन झूज खेळून ताका शरण हाडलो. त्या वेळार विघ्नासुरान गणपतीचें स्तवन करून देवाक 'विघ्नहर वा विघ्नेश्वर' हें नांव घेवचें अशें मागलें आनी श्री गणपतीन तें मागणें मानून घेतलें.

पूर्विल्ल्या काळांत देवांनी नैऋत्य दिकेक भाद्रपद शुध्द चवथीक दनपरां गणपतीची प्रतिष्ठापना केली अशें म्हण्टात.

अष्टविनायकाच्या थळांत भितर विघ्नेश्वराक व्हड मान आसा. हांगाचो वाठारय सोबीत आसा. देवाच्या देवळाचो घूड चिमाजी अप्पान बांदला.

विघ्नेश्वराच्या देवळाचें तोंड उदेंतेवटेन आसा. गर्भकुडींत चारय कोनशांनी ल्हान कोळये आसून तातूंत पंचायतनाच्यो मूर्ती आसात. भितल्ल्या गर्भकुडींत दोन जनेलां आसून तांकां लायिल्ल्या हारशांतल्यान भितर उजवाड येता. भितल्ल्या चारय वटेन हारशे वळीन आसात. गणपतीच्या दाव्या वटेन कमळाचेर बशिल्ली लक्ष्मी तर उजव्या वटेन श्री विष्णुचें चित्र आसा.

देवळाच्यो चारूय कुशी फातराच्या तटांनी बंद आसात. तटांवेल्यान चलपाखातीर एक पांयवाट आसा. देवाच्या मूर्तीमुखार एक मंडप आसा. उक्त्या दारांतल्यान भायर येतकच एक काळो हुंदीर दिश्टी पडटा. ह्या मंडपाक लागून आनी एक ल्हान मंडप आसा. देवाची शेज हातूंत आसा. ह्या दुसऱ्या सभामंडपाभायर २० फुटांचो फातरांची फरशी आशिल्लो आनीक एक तिसरो सभामंडप आसा. त्या मंडपाचे दक्षिणेक आनी उत्तरेक दोन दारां आसात. ह्या मंडपांत धुंडिराजाची मूर्त आसा. ह्या मंडपाच्या सकल देंवतकच उक्तें, फातराच्या फरशीचें आंगण लागता. हें सुमार चाळीस फूट लांब आसा. ह्या आंगणाच्या अयसपयस मुखेल दाराच्या भोंवतणी प्रदक्षणा घालपाक पंदरा फुटाचो जागो आसा. आंगणाच्या दोनूय वटेन २५ ते ३० फूट फातरांच्यो होवऱ्यो आसात. होवऱ्यांतल्यान भायर पडपाक ५ फुटांचो रस्तो आसा. एका होवरेच्या पोंदाक तळघर आसून तातूंत देवाचें सामान आसा. दुसऱ्या होवरेंत शेंदूरान भरिल्ली भैरवनाथाची मूर्त आसा. देवळाचो घूड भांगराचो आसून नकसूद आसा. देवळांत भितर सरतना दोनूय वटांनी फातराचे भालदार आनी चोपदार दिश्टी पडटात. देवळाच्या मुखावेलो भाग कोरांतिल्लो आसून तातूंत दोन ऋषींच्यो आनी एक मनीस वीणा घेवन उबो आशिल्ल्याच्यो मूर्ती दिश्टी पडटा. देवळाच्या आंगणांत विंगड विंगड झाडां-पेडां आसात.

विघ्नेश्वराची देवळांतली मूर्त पूर्ण आसून मांडी घाल्ली आसा. सोंड दाव्यावटेन घुंवणायल्या. दोनूय दोळ्यांत माणकां, कपलार हिरो, बोंबलेंत खडो अशे रितीन आसा. मूर्तीच्या दोनूय कुशींच्या कमानींतल्यो मूर्ती ऋध्दि-सिध्दीच्यो आसून त्यो पितूळच्यो आसात. विघ्नेश्वराची मूर्त एका सोबीत कमानींत आसा.

भाद्रपदाच्या शुध्द चवथीक हांगा व्हड उत्सव जाता.

५. **महागणपतीः** रांजणगांव, ता. शिरूर, जि. पुणे,

रांजणगांवाचे म्हत्व पूराणकथांनी मेळटा. त्रिपुरासुर राक्षसाक शंकरान, ह्याच गावांत माल्लो पूण ताका मारपाखातीर शंकराक गणपतीक प्रसन्न करून घेवचो पडलो अशी कथा चलता. पूराणकथांत रांजणगांवचो उल्लेख 'मणिपूर' असो मेळटा. ह्या गणपतीक महोलट अशेंय नांव आसा.

निजामाच्या काळांत बैलाचें तांडे घेवन वचपी नामदेवबुवा तेली नांवाच्या एका वेपाऱ्याक हें दैवत प्रसन्न जाल्ल्याची एक आख्यायिका हांगा चलता. नामदेवबुवाची समाधीय हांगा लागसारच आसा. भिलवडीकर महाराजान १९१७ वर्सा हांगा तप केल्लें. गुर्जेर नांवांच्या शास्त्र्यानय हांगा तप केल्लें. त्या दोगांकूय 'महागणपतिचो' दिश्टावो जालो. हो देव आंगवण केल्यार पावता अशी भक्तांमदीं भावना आसा.

महागणपतीचें देवूळ उदेंतेकडेन तोंड करून आसा. उत्तरायण आनी दक्षिणायन हांच्या मध्यकाळांत सूर्याचें किर्ण ज्युस्त मूर्तीचेर पडटलें अशी देवळाची रचणूक केल्या. देवळाचो सभामंडप इंदूरचो सरदार किबे हांणी बांदलो. पेशव्याईतले सरदार पवार आनी शिंदे हांणी हांगाच्यो होवऱ्यो बांदल्यो. देवळांच्या भितल्ली गर्भकूड आनी भायली गर्भकूड श्रीमंत थोरले माधवराव पेशवा हाणें बांदिल्ली.

महागणपतीच्या पोंदाक जें तळघर आसा, थंय आनीक एक ल्हान मूर्त आसा. ती श्री गणपतीची मूळमूर्त अशें मानतात. मुसलमान लोकांच्या भयान ही मूर्त अशी लिपोवन दवरिल्ली. मूर्तीक धा सोंडी आनी वीस हात आसात अशें म्हण्टात. ही मूर्त केन्नाय भायर काडटात. ह्या मूर्तीच्या ध्यान्याक 'महागणपतिचें ध्यान' अशें म्हण्टात. ह्या देवळालागीं एक बांय आसा, आनी हे बांयतलें उदक कितलोय दुकळ पडल्यार आटना.

देवळांतल्या महागणपतीची सोंड दाव्या वटेन घुंविल्ली दिश्टी पडटा. मूर्त दिसपाक सुंदर आसा. गणपती मांडी घालून बसला. कपल रुंद आसा. ताच्या दोनूय कुशींनी ऋध्दि-सिध्दी उब्यो आसात.

भाद्रपद शु. चवथीक हांगा गणपतीची परब व्हडा उर्बेन मनयतात.

**६. बल्लाळेश्वरः** पाली, ता. सुधागड, जि. कुलाबा.

गणेशपुराणांत ह्या जाग्यांचो उल्लेख आनी कथा आसा. मुद्गलपुराणांत ह्या बल्लाळेश्वर विनायकाची म्हायती मेळटा. बल्लाळ नांवाच्या एका ल्हान भुरग्यान एका शिळेची भक्तीभावान पूजा केली. त्या भुरग्याच्या भक्तीचेर प्रसन्न जावन श्री गणेश त्या भुरग्यान पुजिल्ल्या शिळेंत येवन रावलो. ते उपरांत हें थळ गणेशक्षेत्र म्हणून नामनेक पावलें. 'भाद्रपद शु. चवथींक जे भक्त येतले, तांच्यो कामना हांव पूर्ण करतलों' असो श्री गणेशान ताका आशीर्वाद दिलो. हाकाच 'बल्लाळेश्वर' वा 'बल्लाळे विनायक' म्हण्टात.

पूर्विल्ल्या काळासावन हें जागरुक देवस्थान म्हूण पेशव्याच्या काळांत ह्या देवाक कौल लावन न्याय दिताले, असो तांच्या दप्तरांत उल्लेख मेळटा.

बल्लाळेश्वराचें देवूळ सोबीत आसून तांचे तोंड उदेंतेवटेन आसा. सूर्य उदेतकच सुर्याचीं किर्णां सभामंडपांतल्यान येवन बल्लाळेश्वराचेर पडटात. देवळांचें बांदकाम शिसें आनी चिरे वापरून गडगंज केलां. गर्भकुडींतल्या देवाच्या मखरांचेर नक्षी केल्ली आसा. हुंदराची गर्भकूडय हांगा आसा. हो हुंदीर हातांत मोदक घेवन बल्लळेश्वराक पळयता असो दिसता. ह्या हुंदराच्या मूर्तीमुखार एक शिवाचें रूपडें आसा, तशेंच ताचे गर्भकुडींत दोन देवताच्यो मूर्ती आसात. तांकां गणपतीच्या (बल्लाळेश्वर) पालखेवेळार भायर काडटात. देवळां भायर सुरूचे खांबे आशिल्लो सभामंडप आसा. देवळामुखार उदकान भरिल्ल्यो दोन तळयो आनी एक घाट आसा. तळयांतलें उदक मात नितळ आसना. भायर कमानीत आनीक एक व्हड घांट आसा. श्रीमंत मोरोबदादा फडणीस हाणें हें देवूळ तशेंच धर्मशाळा आनी मठ बांदलो. बल्लाळाच्या बापायन बल्लाळ आपल्या इश्टांवांगडा हे मूर्तीची पूजा करतना ही मूर्त भायर उडोवन दिल्ली. ती मूर्त हीच अशें मानतात.

बल्लाळ विनायकाची मूर्त ३ फूट उंचायेची पूण रुंद आसा. कपलाचो भाग सकल गेला, तोंड स्पश्ट नदरांत येता. सोंड दाव्या वटेन घुवणायल्ली आसा. बोंबलेंत आनी दोळ्यांत हिरे चकचकतात. मूर्त फातराच्या शिंवासनार बसल्या. ताचेर ऋध्दि-सिध्दी चंवरां हालयतात.

दर वर्सा भाद्रपद आनी माघ शु. १ ते ५ अशे पांच दीस हांगा उत्सव चलता. माघ शु. ४, गणेश जल्मदिसा श्री. गणेश मध्यानरातीकडेन जेवपाक येता अशी भक्ताची भावना आसा. त्या दिसा हांगा भक्तांची घिट्टी जाता. लोकांक तशे अणभव आयल्यात अशें म्हण्टात.

बल्लाळ विनायकाचें कवच (शेंदराचे लुकण) खूब पोरनें जाल्लें. १९६७ क तें नव्यान बांदलें.

**७. वरद विनायकः** महाड, (जिल्हो-खालापूर), कुलाबा.

ह्या देवळाची थापणूक वेदप्रसिध्द गृत्समद ऋषीन केली असो समज आसा. हजारांनी वर्सांपयलीं हो ऋषी जावन गेलो. 'गणानात्वा गणपति हवामहे' ही ऋचा सिध्द करपी, ऋग्वेदांतले दुसरें मंडळ रचपी हो मंत्रसंपन्न ऋषी आसलो. ताणें विनायकाक खर तपान प्रसन्न करून घेतलो तेन्ना ताच्या इत्सेक मान दिवन ह्या गच्च रानांत रावपाचें ताणें मानून घेतलें. तें गच्च, रान म्हळ्यार आयचें महाड. गृत्समद ऋषीक, गाणपत्य संप्रदायाचो मूळ पुरुस मानतात. ताका लागून ह्या वाठाराक चड म्हत्व मेळ्ळां.

ह्या देवळांतली वरद विनायकाची मूर्त १६९० त धौंडू पौडकर नांवाच्या गणेश भक्तांक थंयच्या तळ्यांत मेळ्ळी. तसो ताका दिश्टावो जाल्लो अशें म्हण्टात. ताणें ती मूर्त तळ्याच्या एका कोनशाक थापणूक केली. हो कोनसो अखंड फातराचो आसा. १७२५ क आयच्या जाग्यार हें देवूळ बांदलें. १८९२ वर्सासावन आयजमेरेन ह्या देवळांतलो नंदादीप सतत पेटत दवल्ला. ह्या देवळांक पेशव्यांनी खूब आदार केला. ह्या विनायकाच्या उदेंतेक १७३८ त हरिहर गोसाव्यान जिती-जिवी समाधी घेतल्या. ह्या देवळा भोंवतणचो वाठार सैमान नटिल्लो आसा.

हें देवूळ पोरन्या नळ्यांच्या घरासारकें आसा. ताचें तोंड उदेंतेकडेन आसा. ह्या देवळाच्या फातराक भितल्ल्यान नकसूदपणान कोरांतल्यात. देवळांच्या चारुय कुशीनीं हतयाच्यो दोन-दोन मूर्ती कोरांतल्यात. उत्तर दिकेक गोमूख आसून तातूंतल्यान तीर्थ सकल पडटा. ह्याच गोमूखाच्या कडेक अखंड फातरांचो कोनसो आसा. जंय वरद विनायक सगळ्यांत पयलीं राविल्लो. देवळांच्या घुमटाचेर भांगरा रंगाचो घूड आसा. घुमटाच्या वयले वटेन सर्पाची नक्षी आसा. फाटल्यान अस्तंतेक देवाचें तळें आसा. थंय गीमाचे दोन म्हयने सोडून खूब उदक आसता. देवळाक भितर आनी भायर मेळून दोन सभामंडप आसात. भायल्या सभामंडपाक चोंयवशीन गॅलरीसारकी माडी आसा. ह्या सभा मंडपाक स खांब आनी वयर छप्परांक झुंबरां आसात. मूळ गर्भकुडीच्या भितर फातराच्यो ऋध्दि-सिध्दीच्यो मूर्ती आसात. दोनूय कुशीच्या कोनशांनी गणपतीच्यो दोन मूर्ती आसात. उजव्या हाताक आशिल्ली मूर्त संगमरवरी आसून उजव्या सोंडेची आसा. दाव्या वटेची मूर्त सादी आसून शेंदुरान भरिल्ली आसा. भितर सरतना वयल्या कुशीकय श्री गणेशाची मूर्त दिसता.

वरद विनायकाची मूर्त फातराची महिरपी नक्षीदार आसून शिंवासनाचेर बसल्या. ह्या शिंवासनाचेर दोन हत्ती आनी मदीं देवता आसा. मूळ मुर्त थोडी कुशीक पडल्या. मूर्तिची सोंड दाव्यावटेन आसा.

भाद्रपदांत आनी माघ शु. १ ते ५ मेरेन हांगा व्हड परब मनयतात.

**८. गजमुख (सिध्दीविनायक)**: सिध्दाक, ता. श्रीगादें, जि. अहमदनगर.

मधु आनी कैटभ नांवाचे दोन दैत्य आसले. ते ब्रह्मदेवाक आटापाक येना जाले. तेन्ना तो विष्णुच्या म्हन्यांत धांवलो. विष्णुक लेगीत ह्या दैत्यांनी नाकापुरो केलो आनी विष्णु शंकराक, शरण गेलो. शंकरान ताका विनायकाक प्रसन्न करुन घे म्हूण सांगलें. विष्णुन विनायकाक प्रसन्न करून घेवपाखातीर षडक्षरी मंत्राचो जप ह्याच वाठारांत केलो. विनायक प्रसन्न जावन बरें फळ मेळटकच विष्णुन ह्याच दोंगुल्लेचेर श्री विनायकाची थापणूक केली. विष्णुक हांगा सिध्दी मेळ्ळी म्हूण ह्या

वाठारांक 'सिध्दटेक' वा 'सिध्दक्षेत्र' तर श्री विनायकाक 'सिध्दिविनायक' अशें म्हण्टात.

ह्या सिध्दीविनायकाची सोंड उजवेवटेन आसा म्हूण ह्या दैवतांक कडक आनी जागरुक मानतात. व्यासान हांगा यज्ञ केल्लो अशेंय मानतात. भस्मासारखी सृतिका हांगा मेळटा. मोरया गोसाव्यान सगळ्यांत पयलीं हांगा खर तप केल्ले, उपरांत तो मोरगांवाक गेलो.

ह्या देवळाचें तोंड उत्तर दिकेक आसा. गांवचे शीमेर सावन देवळामेरेन सरदार हरिपंत फडके बांदिल्लो फरशेचो रस्तो आसा. देवळांतली देवाची गर्भकूड १५ फूट ऊंच आनी १० फूट रुंद आसा. सिध्दीविनायका भोंवतणचें मखर पितूळचें तर शिवासन फातराचें आसा. ताच्या दाव्या वटेन जय विजयाच्यो मूर्ती आसात. मदल्या गर्भकुडींत देवाचें शेजेघर आसा. ताच्या कुशीक शिवपंचायतन आसा. भायले वटेन सभामंडप, ताच्या फुडे मुखेलदार आनी नगारखानो आसा.

श्री सिध्दीविनायकाची मूर्त स्वयंभू आसून ताची लांबाय ३ फूट ऊंच आनी अडेज फूट रूंद आसा. तिचें तोंड उत्तर दिके वटेन आसा. सोंड उजव्या वटेन घुंवडायल्या. मांडयेचें आसन घालून बशिल्ल्या सिध्दीविनायकाचेर ऋध्दि-सिध्दी बशिल्ल्यो दिसतात.

भाद्रपद शु. १ ते ५ आनी माघ शु. १ ते ५ हांगा सिध्दीविनायकाची व्हडली परब जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**अष्टाध्यायी:** नामनेचो संस्कृत व्याकरणकार पाणिनी हाणें व्याकरणाचेर बरयल्ल्या ग्रंथाचें नांव 'अष्टाध्यायी' अशें आसा हो ग्रंथ सुत्ररुपान रचला. हातूंत वेदाच्या आंगाचो आस्पाव केला. हातूंत ३९८१ सुत्रां आसून आरंभाक वर्णसमाम्नायाचीं १४ प्रत्याहार सुत्रां आसात. हीं प्रत्याहार सुत्रां शिवाच्या डमरूंतल्यान भायर सल्लीं अशी आख्यायिका आसा. हो ग्रंथ एक हजार अनुष्टुभ श्लोकांच्या बरोबरीन भरता. महाभाश्यांत 'अष्टाध्यायीक' सर्ववेद परिशद शास्त्र म्हळां. सगळ्यो वैदिक संहिता आनी तांची प्रतिशाख्य हाचो पाणिनीन पुराय आदर दवल्ला. अष्टाध्यायींत शाकटायन, शाकल्य आपिशलि, गार्ग्य, गालव, शौनक, स्फोटायन, भारद्वाज काश्यप, चाक्रवर्मण ह्या वैयाकरण पुर्वाचार्याचो मानान उल्लेख केला.

अष्टाध्यायींत आठ अध्याय आसून, दर अध्यायांत चार पाद आसात. दरेक अध्यायांत आनी पादांत सुत्राचें सारकें वांटप जावंक ना. पाणिनीच्या सुत्रांच्यो संज्ञा, परिभाषा, विधी, नियम आनी अतिदेश अश्यो पांच तरा आसात.

पयल्या आनी दुसऱ्या अध्यायांत संज्ञा आनी परिभाषा हांचीं सुत्रां आसात. तातूंत क्रियेखातीर आत्मनेपद, परस्मैपद आनी संज्ञेखातीर विभक्ति आनी समास हे दोन विशय आयल्यात. तीन ते पांच अध्यायांत कृदन्त, तद्दित ह्या प्रत्ययांचें निरूपण केलां. सव्या अध्यायांत द्वित्व, संप्रसारण, संधि, स्वर, आगम, लोप, दीर्घ आनी हेर विशयांवेलीं सुत्रां आसात. सातव्या अध्यायांत 'अंगाधिकार' नांवाचें प्रकरण आयलां. तातूंत प्रत्ययाक लागून मूळ शब्दांत आनी मूळ शब्दाक लागून प्रत्ययाक जावपी बदलाचो नियाळ आयलो. आठव्या अध्यायांत द्वित्व, प्लुत, णत्व, षत्व हांचे नेम दिल्यात. पाणिनीची सूत्ररचना इतली ज्युस्ताक ज्युस्त जाल्या की तातूंत कसलेच दोश सांपडनात. एक फावट सूत्र घडयतकच पाणिनी तातूंत कसलोच बदल घडयनासलो अशें पतंजली म्हण्टा.

वयल्यो गजाली सोडून वर्ण्य विशयाकडेन संबदीत गणपाठ आनी धातुपाठ नांवाचीं दोन प्रकरणां आसून तींवूय पाणिनीनच बरयल्यांत अशें मानतात. अष्टाध्यायींत वैदीक संस्कृत आनी तत्कालीन शिष्ट भाशेंतले संस्कृत भाशेचो खोलायेन अभ्यास केला. अष्टाध्यायीची रचना घडचे आदी भारतांत शब्दविद्येचो वा उतरावळ शास्त्राचो पांवडो खूब वयर आसलो. पूण अष्टाध्यायी सारक्या तेजीश्ट ग्रंथाक लागून ह्या शास्त्राचो पांवडो आनीकूय वाडलो. निमाणे अशी परिस्थिती उप्रासली की अष्टाध्याषी मुखार हेर ग्रंथ कुस्कुटावरी दिसपाक लागले. अष्टाध्यायीचेर खांची कोनशांनी चर्चा, अभ्यास जावंक लागले. ताका एक प्रमाण ग्रंथ म्हूण मान्यताय मेळ्ळी. अष्टाध्यायीचें ध्येय वैदिक अर्थ स्पश्ट करप हो आशिल्ल्यान फुडाराक तातूंतले 'यास्काचें निरुक्त' तितले तगून उरले. हे ग्रंथ निरुक्तावरी 'एककर्तृक' आसा.

बर्नेल नांवाचो नामनेचो विद्वान म्हण्टा. 'अडेच हजार वर्सा उपरांत लेगीत अष्टाध्यायीचो पाठ जितलो शुध्द आनी नितळ आसा तितलो दुसऱ्या खंयच्याच संस्कृत ग्रंथांनी मेळना.' वेबरान अष्टाध्यायीक संवसारांतल्या सगळ्या व्याकरणग्रंथांत व्हड मानला. पाणिनीचीं सुत्रां सामकीं थोड्याभितर येतात. ताका स्वल्पाक्षर करपाखातीर पाणिनीन दरेक प्रत्याहारांत वेगवेगळे नेम घडयल्यात. वयले नेम ताचे बुध्दीचो आवांठ केदे व्हड तांकीचो आसलो तें दाखयतात. पाणिनीचो हो ग्रंथ म्हळ्यार संस्कृत भाशेक ताणें दिल्ली एक व्हड भेट जावन आसा. जंय जंय संस्कृत भास पावल्या थंय थंय पाणिनीचें व्याकरण प्रमाण मानलां.

अष्टाध्यायीचे निर्मणेक लागून अर्थव्याख्येक वा पैशांच्या वेव्हाराक व्हड फायदो जालो अशी एक वृत्ती चलत आयल्या. पतंजलीन अष्टाध्यायीक तेचखातीर 'वृतिसूत्र' अशें नांव दिलां.

वयल्या कांय वृत्ती भायर आनीकूय कांय वृत्ती आसल्यो. तांतली 'काशिकावृत्ति' आयजूय मेळटा. सुमार दोनशीं वर्सा उपरांत कात्यायनान अष्टाध्यायीच्या सुत्रांचो वेगवेगळ्या आंगांनी अभ्यास करपी ग्रंथ बरयलो. हातूंत चार हजार वार्तिकां सूत्रशैलींत बरयल्यांत. फुडें पतंजलीन ह्याच आदाराचेर आपलें 'व्याकरण महाभाष्य' बरयलें. पाणिनीच्या सुत्रांचे अर्थ, उदाहरणां आनी प्रक्रिया ह्या तीनूय नदरांनी महाभाष्याचो ग्रंथ पुराय आसा.

अष्टाध्यायीचें खाशेलेंपण म्हळ्यार ताणें आपल्या ग्रंथांत धातू सावन शब्दनिर्वाचन मेरेनचे पध्दतीचो आस्पाव केलो. त्यावेळावेलो पुराय संवसार जाणा आशिल्ल्या सगळ्या धातूंचो संग्रह ताणें 'धातुपाठांत' केला. भारतांतल्यो सगळ्यो आर्य भाशा आनी बोली हांचो अभ्यास करपाखातीर 'धातुपाठ' हो खास पाठ जावन आसा. ह्या ग्रंथाचें दुसरें खाशेलेंपण म्हळ्यार संस्कृत भाशेच्या सगळ्या आंगांचेर ह्या ग्रंथांत उजवाड पडला.

- कों. वि. स. मं.

**असुर:** असुर म्हळ्यार देवांचे दुस्मान. हांकां दुसरींय नांवां आसात, तीं अशीं: दितीचे पूत देखून दैत्य. दनूचे पूत देखून दानव. हांणी धर्तरेचेर धा युगां राज्य केलें. तांचीं देवांआड बारा झुजां जालीं. तांणी देवांचेर जायते खेपे जैत मेळयलां. तैत्तिरीय ब्राह्मणांत 'असुर' शब्दाची व्याख्या अशी केल्या- 'तेनासुना सुरानसृजत। तदसुराणामसुरत्वम्।' अर्थ- त्या असून म्हळ्यार प्राणान (प्रजापतीन) तांका निर्मिल्ले, देखून तांकां असूर म्हण्टात. असुर उतराचो खरो अर्थ म्हळ्यार प्राणवान, बळिश्ट, वीर्यवान, पराक्रमी.

देव आनी असुर हे दोनूय प्रजापतीचे पूत. असुर व्हडले आनी देव धाकले. प्रजापतीन देवाक दिसाचे आनी असुरांक रातीचे उत्पन्न केले. (शतपथ ब्राह्मण). प्रजापतीन असुरांक अंधकार आनी माया ह्यो गजाली दिल्यो. देखून ते मायेची उपासना करूंक लागले. असुर हें उतर ऋग्वेदांत सुमार १०५ फावट आयलां. तातूंत ९० सुवातींचेर ताचो वापर देव ह्या अर्थान केला. ऋग्वेदांत वरुणाक आनी हेर देवांक असुर अशें म्हळां. अग्निदेवाक लेगीत असुर असो लेखला. हांचे पुरोयतपण भार्गवशुक्र हाचेकडेन आशिल्लें. असुर लोक खंयचे हाचेविशीं चार मतां आसात- असुर म्हळ्यार १. पूर्विल्ले सुमेरियन लोक २. पूर्विल्ले असीरियन लोक ३. मगध वा दक्षिण बिहारांतले लोक ४. पूविल्ले इराणी अहुरमज्दाचे अनुयायी.

भारतांत आर्य संस्कृताय येवचेपयलीं असुर, दैत्य, दानव आनी नाग अशे वेगवेगळ्या संस्कृतायांचे समाज आशिल्ले. हे लोक आर्यांचे विरोधक आशिल्ले. 'मेरु दोंगराचेर, अमरावती नगरांत देवांचो राबितो आसा. जाल्यार मेरु दोंगराचे खाला इरावती हें असुरांचें नगर आसा', अशें

सायणाचार्य हाणें बरयलां. भारताचे अस्तंत देगेक असुरांचीं राज्यां आशिल्लीं. गुजरातांतलें भृगुकच्छ (भडोच) 'बलि' ह्या असुराची राजधानी आशिल्ली.

असुर लांबायेन ऊंच आनी कुडीन धश्टपुश्ट तशेंच बळिश्ट आशिल्ले अशें मूर्तिंतल्यान आनी फातरपट्यांतल्यान दिसून येता. ते केंस लांब दवरताले आनी खाडूय लांब दवरताले. ज्योतिशशास्त्राचेर तांचो उपाट भावार्थ आशिल्लो. झुजाक वचचे आदीं असुरांचे सैनिक सम्राट सदांच भविश्य पळोवन घेताले.

पूर्विल्ल्या ॲसीरियाची राजधानी म्हळ्यार निनेव्हे शार. ह्या शाराच्या उत्खननांत बाबिलोनी भाशांच्या 'क्युनिफोर्म' लिपींत विटांचेर बरयिल्ले कांय ग्रंथ मेळ्ळयात. तातूंत असुरांविशींची बरीच माहिती मेळटा. युफ्रातिस आनी तैग्रीस न्हंयचे देगेक रावपी पूर्विल्ल्या लोकांक 'सेमाइट' म्हण्टात. असुर हे तांचेच वंशज अशें कांय विद्वानाचें मत आसा. सुमेरियन लोक असुरांचे शेजारी आशिल्ले. इ.स.प. १३८० च्या काळांत असुरांची शक्त खुबूच वाडली. तांणी बाबिलोनियाचेर जैत मेळयलें आनी थंय असुर साम्राज्याची थापणूक केली. इ.स.प. ७४६ ते ६२६ ह्या काळांत ज्या असुर सम्राटांनी असुर साम्राज्याचेर शेक चलयलो तातूंत तिग्लथ, पिलेसर, शालमनेसर, सारगन, सेन्नचेरीब, अस्सुरबनिपाल हे सम्राट खूब नामनेचे आसात.

व्हिन्सेंट श्रील हाणें असुर देवतांच्या दिल्ले वळेरेंत 'असुर मझाझ' ही एक देवता आसून तिचो संबंद अहुरमज्द ह्या झरतुष्ट्री देवतेकडेन जोडला. इराणी भाशेंत 'अहुर' हें उतर 'असुर' उतराकडेन लागींचें आसून तें बऱ्या अर्थान वापरतात. इंडो-इराणियन लोकांभितर जाल्ल्या झगड्यांतल्यान आनी फाटाफुटींतल्यान कांय उतरां भारतीयांभितर वायट अर्थान तर कांय उतरां इराणी धर्मग्रंथ 'अवेस्ता' हातूंत बऱ्या अर्थान वापरांत आयलीं. हाचे उरफाटें कांय उतरां भारतांत बऱ्या अर्थाचीं जालीं जाल्यार 'अवेस्ता' धर्मग्रंथांत वायट अर्थाचीं. देखून, असुर उतराक ऋग्वेदाउपरांतच्या संस्कृतांत वायट अर्थ मेळ्ळो.

असुरांचीं आनी मनशांचीं लग्नां जाल्याचीं उदाहरणां पुराणांत बरेचकडेन आसात. तांची प्रतिभा ऊंच पांवड्याची आशिल्ली. ते कलेचे मोगी आशिल्ल्यान तांकां चित्रकलेची खूब आवड आशिल्ली. असुर कलावंतांनी आपले कुशळ प्रतिभेन फातरांत कोरांतिल्लीं शिल्पां आनी चित्रां पळोवन आयज लेगीत पंडितांक आनी विद्वानांक अजाप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**अस्त्रविद्या:** पूर्विल्ल्या काळांत हत्यारांचे, शस्त्र आनी अस्त्र अशे दोन भेद करताले. खर घाव बसून जर जखम् जायत आनी मनशांक मरण येत तर त्या हत्यारांक शस्त्र म्हण्टाले. मंत्र, अग्नि, वायु (वारो), उदक आनी हेर साधनांनी चलपी हत्याराक अस्त्र म्हण्टाले. अस्त्र- शस्त्रांतलो भेद फुडल्या प्रमाण आसा.

> दूर चान्ते च यत् शस्त्रं शत्रुघातकरं भवेत्।
> तदस्त्रमिति जानीयादन्यथा शस्त्रमुच्यते।।

अर्थ: जें हत्यार पयस तशेंच लागीं आशिल्ल्या दुस्मानाचो घात करपाक उपेगाक पडटा, तें अस्त्र. जाल्यार जें फकत लागींच्याच दुस्मानाक मारपाक उपेगी पडटा ताका 'शस्त्र' म्हण्टात.

अस्त्राचें खाशेलेंपण म्हळ्यार तें चलोवपाक हेर शक्तींचो जसो उपेग जावं येता तसो स्वताचे शक्तीचोय उपेग जावं येता.

शस्त्र-अस्त्रांची उत्पत्ती मनशाइतलीच पोरनी जावन आसा. इजिप्त, बाबिलोनिया, चीन, ग्रीस आनी हेर देशांचे प्राचीन संस्कृतायेंत अस्त्रविद्येचो उल्लेख मेळटा. भारतांत अस्त्रविद्या खूब फुडारिल्ली आशिल्ली हें पोरन्या ग्रंथावेल्यान समजता. तरीकूय अस्त्राची निर्मिती, स्वरुप आनी ताचो उपेग हांची माहिती ह्या ग्रंथांत मेळना.

पूर्विल्ल्या काळांत तीन तरेचीं अस्त्रां अस्तित्वांत आशिल्लीं आसूंक जाय. पयलें मंत्रमुक्त- मंत्राच्या आदारान चलपी; हीं अस्त्रां दैवी आसून मंत्रोच्चारांत इष्ट देवतेचे योग्य विधी पूजे उपरांत तीं प्रसन्न जातालीं. दुसरें पाणिमुक्त- उदकांच्या आदारान चलपी हीं अस्त्रां उदकाचे देवतेच्या पूजा-विधी उपरांत प्रसन्न जातालीं; तर तिसरें यंत्रमुक्त- यंत्रांच्या आदारान चलपी, यंत्रदेवतेच्या पूजा विधी उपरांत प्रसन्न जातालीं. अस्त्रयोजना, मंत्र, उपचार, प्रयोग आनी संहार ह्या चार अवस्था उपरांत अस्त्रां सिध्द जाल्ल्या कारणान ताचो 'चतुष्पाद' असो उल्लेख महाभारतांत आयला. मायिक आनी निर्माय म्हळ्यार इंद्रियातीत आनी इंद्रियगोचर अशे आनीकूय दोन अस्त्रभेद सांगल्यात. पाणिमुक्त आनी यंत्रमुक्त अस्त्रविद्येंतली धनुर्विद्या ही तितली फुडारिल्ली आसली.

पूर्विल्ल्या काळांत वापरिल्ल्या ४० ते ५० अस्त्रांचो उल्लेख पुराण ग्रंथांत मेळटा. हातुंतलीं कांय अशीं: असिरत्न, आग्नेय, ऐंद्र, ऐषिम, कंपन, कापल, कालमुद्गर, कैंकर, क्रौंच, गंधर्व, पपान, त्वाष्ट्र, नंदक, नारसिंह, नारायण, पाशुपत, पैशाच, प्रमथन, प्रस्वापन, प्रस्थापन, ब्रह्मशिरस्, ब्राह्म, मावन, भैरव, मथन, महाबल, मोहन, मायाधर, मौसल, रौद्र, वायव्य, वारुण, विकंपन, शातन, शामन, शैल, शोषद, संवर्तन, सार्प, सावित्र, सोम, हयशिरस्.

पुराणकाळांत दरेका क्षत्रियाक धनुर्वेदाच्या अभ्यासावांगडा अस्त्रविद्येचोय अभ्यास करचो पडटालो. अस्त्र हें मंत्रान चलपी आसतालें. मंत्र शिकोवपाचो अधिकार ब्राह्मणांकच आसलो. कांय खास अस्त्रांचीं नांवां अशीं:

१. **आग्नेयास्त्र:** ह्या बाणाचो स्फोट जातालो. हो सोडटकच पावसावरी उजो तातूंतल्यान भायर सरतालो आनी तातूंतल्यान ह्या अस्त्राच्या आवांठात येवपी सगळ्या वस्तूंचो लासून गोबोर जातालो.

२. **पर्जन्यास्त्र:** ह्या बाणावरवीं आपोआप वादळ-वारें सुटून पावसाच्यो दडको झडटाल्यो. जोगलां मारून वारें व्हांवतालें.

३. **वायव्यास्त्र:** हाकालागून भिरांकुळ तुफान-वादळ जातालें आनी सगळेवटेन काळखी फांकताली.

४. **पन्नगास्त्र:** ह्या अस्त्रांतल्यान सोरोप तयार जावन सगळेवटेन धुमशेण घालताले. ह्या अस्त्राचो प्रतिकार करपाक गरुडास्त्राचो उपेग करताले.

५. **ब्रह्मास्त्र:** हें एक भिरांकुळ अस्त्र आसलें. दुस्मानाक सोंपोवपाखातीर ह्या अस्त्राचो उपेग जातालो. ह्या अस्त्रांचो प्रतिकार, ब्रह्मास्त्र सोडूनच करचो पडटालो.

६. **पाशुपतास्त्र:** पुराय संवसाराचो नाश करपाची तांक ह्या अस्त्रांत आशिल्ली.

७. **नारायणास्त्र:** ह्या अस्त्राचो प्रतिकार संवसारांतलीं खंयचीच वस्त वा अस्त्र करूंक शकना. ह्या अस्त्राक नमळायेन नमस्कार करून शरण गेल्यार तें दुस्मानाक अभय दिता. महाभारतांत अश्वत्थामान पांडवसेनेचेर हें अस्त्र सोडिल्ल्याचो उल्लेख आयला. त्या वेळार कृष्णान वयले तरेन ह्या अस्त्राचो प्रतिकार करूंक सांगिल्लें.

प्रल्हादाचो पूत विरोचन हाका भावाकडल्यान खास अशीं अस्त्रां मेळिल्लीं. सगरान परशुरामाकडल्यान आग्नेयास्त्र मेळयिल्लें. अर्जुनान शिवाकडल्यान पाशुपतास्त्र आनी लोकपालांकडल्यान दिव्य अस्त्रां मेळयिल्लीं (महाभारत वन. २८ आनी ४९). कृष्णाकय 'परमास्त्रवित्' अशें म्हळां. कौरव- पांडवांचो गुरू द्रोणाचार्य हाका अस्त्रविद्या येताली.

वयर जे सगळे शस्त्र आनी अस्त्रांचे उल्लेख आयल्यात ते मनशाच्या आकलनाभायले आसात. मंत्रांतल्यान सिध्द जावपी शक्त दैवी आशिल्ल्यान तांचें पूर्विल्लें अस्तित्वच फकत मान्य करूं येता. पूर्विल्ल्या अस्त्रविद्येंतले सगळे तर्क कसाक लावन पळयतकच सकयले निष्कर्ष स्पश्ट जातात.

१. शस्त्रास्त्रांची निर्मणी आनी प्रयोग पूर्विल्ल्या काळांत प्रचारांत आयले. तरी शस्त्रास्त्रविद्येंतली त्या काळांतली उदरगत पयले अवस्थेंत आसली.

२. सैमांतल्या पंचमहाभुतांविशींचें गिन्यान त्या काळार खूब कमी आसलें. त्या काळार विचार वा प्रयोग हांच्यापरस कल्पनाविलासाचेर चड

भर दिताले.

संवसारांत घडपी सैमीक गजालींफाटलें खरें शास्त्रीय कारण न समजल्ल्यान तांकां 'दैवीक' हें विशेशण लावपाक लागले. हीच नीत आपणावन जोगलावप, गडगड मारप, दुकळ, तुफान, वारें-वादळ, पावस, भुंयकाप, हेर सैमीक गजाली, भिरंकूळ शक्तीच्यो आनी कल्पनेभायल्यो म्हूण झुजांत उपेगी पडटल्यो अशें दिशिल्ल्यान ताका मंत्रसिध्द दिव्यास्त्रां म्हणपाक लागले. ताका लागून पूर्विल्ल्या काळांत ह्यो सैमीक गजाली 'दिव्यास्त्र' हें नांव मेळोवन अज्रंवर जाल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**अस्नोडकार, कृष्णाजी नारायण:** (जल्म: १८७३, अस्नोडें; मरण:?).

गोंयचो मराठी कादंबरीकार. ताच्या शिक्षणाविशीं पुराय खबर मेळना. पूण ताका मराठी, इंग्लीश, बंगाली, आनी गुजराती भाशेचें ज्ञान आशिल्लें. ताणें १८९१ वर्सा सावन बरोवपाक सुरवात केली. ह्या वर्सा ताची 'नीतिसौंदर्य' नांवाची पयली पुस्तिका उजवाडाक आयली. १९०२ वर्सा ताणें देवी प्रसन्न रॉय चौधरी हाचे मूळ बंगाली कादंबरीचो अणकार करुन १७० पानांची 'संन्याशी' ही कादंबरी बरयली. उपरांतच्या काळांत ताच्या बरपाविशीं खबर मेळना. पूण फुडें १९२१ ते १९३३ वर्साच्या काळांत ताणें सुमार चाळीस पुस्तकां बरयल्यांत. ताणें भक्ती आनी नीत हांचेर पुस्तकां बरयलीं. तेभायर बायलांचीं कांय चरित्रांय बरयलीं. तातूंत अहिल्याबाई आनी मीराबाई ह्या चरित्रांचो आस्पाव जाता. हांचे भायर ताणें पांच संगीत नाटकां बरयल्यांत. तातूंतल्या 'अग्रहार' आनी 'हाच परिणाम' हांचो प्रयोग जाला.

ताका खरें म्हत्व मेळ्ळें तें कादंबरीच्या मळार. तेन्नाच्या काळांत 'चार आणे माला', 'तीन आणे माला' आनी 'एक आणा माला' अश्यो कादंबऱ्यो म्हयन्या म्हयन्याक उजवाडाक येताल्यो. तातूंतली 'तीन आणे माला' ही कादंबरी नरहर रामचंद्र जोशी नांवाचो मनीस चलयतालो. रहस्य, शृंगार आनी म्होंवाळ कथानक आशिल्लीं सुमार ७५ ते ८० पानांचीं पुस्तकां हे माळेंतल्यान उजवाडाक येतालीं.

तो 'तीन आणे माला' ह्या कादंबरींचो एक मुखेल बरोवपी आशिल्लो. हे माळेवरवीं ताच्यो सुमार २५ कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात. सामान्य वाचकाक आवडपी सामान्य कथा तो बरयतालो, तशेंच बऱ्या पांवड्याच्यो आनी खळबळजनक शृंगारकथाय ताणें बरयल्यात. महात्मा गांधी, नरसी मेहता ह्या गुजराती भाशेंतल्या चरित्रांचे ताणें अणकार केल्यात. स्वामी विवेकानंदाच्या Devotion ग्रंथावेल्यान 'भक्ती' आनी मेरी कॉरेलीच्या लेखांवेल्यान 'नीतिसौंदर्य' ही पुस्तिका बरयल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**अस्पृश्यताय:** समाजांतल्यो ऊंच पांवड्याच्यो जाती, ज्या साबार जातींच्या लोकांक उणाक लेखून आफडीनात वा आफडूंक जायनात अशें मानतात, त्या चाली-रितींक सादारपणान 'अस्पृश्यताय' अशें म्हण्टात.

भारतांत अस्पृश्यतायेची परंपरा हजारांनी वर्सांआदीं सावन चलत आयल्या. वेदकाळांत हिंदू समाज ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शुद्र ह्या चार वर्णांभितर वांटिल्लो. ह्या चार वर्णांत जायत्यो जाती आनी पोटजाती आसपावल्यात. हे चौकटीभायर ज्यो जाती जामती आसल्यो त्यो समाजांत सामक्यो उणाक आनी बुरशो अशें लेखताले. ह्यो जाती-जमाती म्हेळें काम, रगत आनी मरणाकडेन संबंदीत वावर करताल्यो. तांकां 'अस्पृश्य' मानून पांचवे वा पंचम् जातींत उडयिल्ले. जल्माकसावन मरसर ते अस्पृश्यतायेंत आसताले.

शूद्र वर्णांतल्या सकयल्या पांवड्याच्या जातींतल्यान आनी द्रविडी तशेंच आदिवासी जातीं-जमातींच्या भरसणींतल्यान ज्यो संकीर्ण जाती उपजल्यो, तांकांय 'अस्पृश्य' म्हणूंक लागले अशें म्हण्टात. तांकां पांचव्या पांवड्यार दवरल्यो. तांचो वावर-धंदो, रीत-रिवाज, मूळ-कूळ धाणयारें मानून तांकां गांव आनी समाजाभायऱ्यो केल्यो.

सनातनी पंडितांच्या मतान अस्पृश्यतायेची चाल हिंदू धर्मशास्त्रांत फर्मायल्ली आसा. पूण पोरन्या वैदीक साहित्यांत अस्पृश्यतायेचे उल्लेख आयिल्ले दिसनात. श्रुती-स्मृतिंत 'अंत' वा 'अंत्य' जातीचो उल्लेख मेळटा. उपरांतच्या स्मृतिंत, धर्मपंडितांनीं हीं कायद्याचे नेमावळींत मांडिल्लीं दिसतात. सुर्वेक अस्पृश्य थारायिल्ल्यो जमाती पांच-धा परस चड नासूंये अशें दिसता. धाव्या शतमानामेरेन हो आंकडो पांचशेमेरेन पावलो.

हिंदू, बौध्द आनी जैन राजांच्या काळांत इ.स. १००० मेरेन अस्पृश्यताय निखळावपाक कोणेच कसलोच यत्न करूंक ना. फुडें मुस्लीम राजांचो शेक जायत्या राज्यांत चलूंक लागलो तेन्ना मुस्लीम राजांनी अस्पृश्यांक इस्लाम धर्माची दीक्षा दिली. हाका लागून तांच्या समाजीक पांवड्यांभितर कसलोच फरक पडूंक ना. पूण हे घडणुकेक लागून सवर्ण म्हळ्यार उंचेल्या पांवड्याचे हिंदू तांकां आफडूंक लागले.

ब्रिटीश काळांत सगळ्या लोकांक कायद्यामुखार समान मानताले. तरीय ताणी जाती-वेवस्थेच्या कायद्यांचे परंपरेत बदल करपाचे यत्न करूंक नात. ह्या अन्यायाआड जायत्यो कागाळी न्यायमंदिरांत पावल्यो. पूण ताका ताणी चड म्हत्व दिलें ना. हाका लागून अस्पृश्यताय ना जावंक ना.

विसाव्या शतमानांत अस्पृश्यतायेआड झूंज दिवप्यांमदीं महात्मा गांधी आनी भीमराव ऊर्फ बाबासाहेब आंबेडकर हांचो वावर म्हत्वाचो. ह्या दोनूय फुडाऱ्यांची मोख मात वेगळी आसली. महात्मा गांधीन ब्रिटिशांक भारतांतल्यान धांवडावपाचे आपणाले चळवळीक अस्पृश्यताय पुसून उडोवपाची चळवळ जोडिल्ली. सगळ्या अस्पृश्य मानिल्ल्या जातींक शुद्र वर्णांत आस्पावन घेवपाच्यो आनी तांकां सवर्णांभितर मानाची सुवात दिवची ही येवजण गांधीच्या विचाराफाटल्यान आसली. आंबेडकर, अस्पृश्य मानिल्ल्या जातींनी शिकप घेवचें, राजकी सत्ता जोडची, आर्विल्ल्या समाजांतल्या जिवीतांत उंचेली सुवात हातासची ह्या मताचो आसलो. हिंदू जाती वेवस्थेचे तो खर दुस्मान आसलो. हे वेवस्थेक उबगून ताणें आनी ताच्या सांगात्यांनी बौध्द धर्म आपणायलो.

१९०९ च्या सुमाराक बडोद्याच्या महाराजान अस्पृश्यतायेविशीं हुस्को परगटायिल्लो. ह्या काळांत जायत्या समाज सुदारकांनी आनी राजकारणी लोकांनी अस्पृश्यतायेआड आपलें मत परगटायिल्लें. भारतीय राष्ट्र बांदावळ घडोवपी सभेन १९४७ वर्सा अस्पृश्यतायेची चाल कायद्यान रद्द केली. अनुसूचित जाती-जमाती आड भेदभाव वा अस्पृश्यताय पाळल्यार, तो गुन्यांव मानून ख्यास्तीची तजवीज केली. हो कायदो फाव तें बळ दिवन चालीक लावपाक अजूनय शासन यत्न करता.

**पध्दत, व्याप्ती, शास्त्र:** अस्पृश्य मनशाक हेर वर्णांतल्या मनशानी आफुडल्यार वा तांच्या हातांतले वा ताणी हात लायिल्ल्या आयदनांतलें उदक पियेल्यार, जेवण घेतल्यार वा तांचे सांवळेत लेगीत पडल्यार, कलंक, म्हेळसाण ना जावंची म्हूण धर्मशास्त्रांत बरयिल्ले विधी करताले.

**प्रकार: आदिवासी जमातींत पयलीं अस्पृश्यतायेची चाल नासली. जाणकारांच्या मताप्रमाण त्या जमातींनी जेन्ना हिंन्दू धर्म आपणायलो तेन्ना जाती-वेवस्थेची मांडावळ थंय रिगली. उपरांत ह्यो जाती, हेर जातींवांगडा अंतर राखपाक लागल्यो. तेच वांगडा कांय वावर धंदो उणाक मानिल्ल्यान थंय अस्पृश्यताय चालीक लागली.**

**आदल्या काळार भारतीय समाजांतले ब्राह्मण आनी क्षत्रिय ह्या वर्णांतले लोक स्वताक ऊंच समजताले. सगली अध्यात्मीक आनी राज्य चलोवपाची सत्ता आपणाल्या हातांत दवरप आपणाचें व्हडपण मानताले. ते 'वैश्य' जातींतल्या लोकांक उणाक लेखताले. ब्राह्मण, क्षत्रिय आनी वैश्य आपणांक 'द्विज' वा दोनफावट जल्मल्ले अशें धरताले आनी चौथ्या वर्णाच्या शूद्राक हेरांचो सगळो वावर करपाक लायताले. त्या वावराक लागून तांकां उणाक लेखून अस्पृश्यताय चलयताले.**

**भारतांत घरच्या वेव्हारांत मर्यादीतपणान अस्पृशताय पाळटात. बाळंतिणीक थोडे दीस आफुडनासतना दवरतात. आंगार जाल्ले बायलेक**

जेवण-खाण, पिवपाच्या आयदनांत हात घालूंक दिनात. मेल्ल्या मनशाची कूड, थारावेक पिडेस्त-रोगी हांकां अस्पृश्य मानतात. अमकोच काळ सोंपल्या उपरांत ही अस्पृश्यताय मानिनात.

कर्नाटक राज्यांत एक आगळी चाल चलता. थंय अस्पृश्य वर्गांत मोडपी 'होळेय' जातींतले लोक वयल्या वर्गांतल्या लोकांक अस्पृश्य मानून तांकां आफुडनात. ब्राह्मणांक लेगीत आपले वस्तींत येवंक दिनात.

ब्रिटीश राजवटींत राज्य करपी गोरे लोक भारतीयांक अस्पृश्य लेखताले तशेंच आपल्या आनी तांचेमदीं अंतर दवरताले. आपणाल्या क्लबांनी तशेंच मौज मनोरंजन करपाचे सुवातेर तांकां वचपाक मना केल्ले.

अस्पृश्य समाजाभितरय ऊंच-उणाक लेखपाची चाल आसा. महाराष्ट्रांत सृश्याचे नदरेन म्हार, चामार, मांग आनी भंगी अस्पृश्य आसले तरी म्हार मांगांक अस्पृश्य मानता. म्हार आनी चामार हे दोगूय भंग्यांक अस्पृश्य मानतात.

**अस्पृश्यताय आनी नांवाजते आद्यपुरुषः** महात्मा गांधी, 'अस्पृश्यताय' हिंदू धर्मांक लागिल्लो कलंक मानतालो. ताणें अस्पृश्यांक मान-भोवमान मेळचो म्हूण 'हरिजन' वा 'देवाचे पूत' अशें नांव दिलें. ताच्या मतान समाजांतलीं बुरशीं कामां करून ताका नितळ करपी भंगी, चामार, म्हार, मडें व्हरपी, म्हालो आनी हेर सगळे समाजाची गरजेची सेवा करतात. तेपासत आमी तांचे उपकार मानूंक फाव. धर्मान मानून घेतिल्ली 'अस्पृश्यताय वा म्हेळेपण' मर्यादीत आनी तात्पुरतें आसून तें ना करूं येता. जल्मासावन मरसर मनीस अस्पृश्य उरूं येता, हें मानूंक तो तयार नासलो. धर्मा-धर्मामदीं, जातीं-जातींमदीं आशिल्ली अस्पृश्यताय ना जावन सगळे पंगड एकवटीत जावंचे असो हावेस मनांत बाळगून निमाणेमेरेन गांधी वावुरले.

**संबंदीत कायदेः** भारतीय राश्ट्र बांदावळ (घटना) १९५२ वर्सा उजवाडाक आयली, तिणें अस्पृश्यताय ना केल्या आनी ते चालीचेर आदारिल्ले सगळे भेदभाव मना केल्यात. पसरे- दुकान, खाणावळी-हॉटेल आनी मौज-मनोरंजन करपाच्या जाग्यांर वचपाक वा बांयो, व्हाळ, न्हांवपा-धुवपा सुवाती आनी हेर भौशीक सुवातीनीं वचपाक जीं आडमेळीं आसलीं तीं कायद्यान ना केल्यांत. शिक्षणीक शाळा, कॉलेज, विद्यापीठ संस्थांनी आनी देवळांनी भितर सरपाची जी मनाय आसली ती काडून उडयल्या. २३ व्या कलमाप्रमाण तांकां सक्तीचो वावर मना केला, २५ व्या कलमान तांकां हिंदू धर्मीक सुवातींचेर वचून तातूंतल्या विधींत वांटो घेवपाची मान्यताय दिल्या. घटनेंत राखून दवरिल्ल्या ह्या हक्काभायर, भारतीय संसदेन १९५५ वर्सा अस्पृश्यताय (गुन्यांव) कायदो पास केलो. ह्या कायद्याउपरांत लेगीत अस्पृश्यांवटेन लागिल्ले निकाल खूब उणे आसात.

इ.स. १९७६त १९५५ वर्साच्या कायद्यांत कांय बदल करून कायद्याचें नांव 'नागरी हक्क संरक्षण कायदो' अशें केलें. ह्या कायद्याचो पयले खेप भंग करतल्याक १ ते ६ म्हयने बंदखण आनी १०० ते ५०० रुपये दंड जावं येता.

अस्पृश्य वर्गांत मोडपी जाती-जमातीचे प्रस्न हाताळपाक मंत्रालयाच्या गृहविभागांत एक खास विभागाची थापणूक केली.

अनुसूचित जाती-जमातींखातीर काम आनी हेर वावराखातीर ज्यो राखीव सुवाती दवरपाची तजवीज आसा ती जानेवारी १९९० त आनीक धा वर्सांखातीर वाडयली.

अस्पृश्यताय आशिया खंडांतूय चलता. जपानांत एटा वा बुराकू, कोरियांत पायेकचोंग, तिबेटांत राग्याप्पा ह्यो जमाती उणाक मानिल्लीं कामां करतात. श्रीलंकेंत उत्तर आनी उत्तर उदेंत भागांत अस्पृश्यताय चलता. त्या देशांच्या इतिहासांत अस्पृश्यतायेचो उल्लेख मेळटा. आशियेभायर अमेरिकेंत दक्षिणेक पोलेनेशिया, सहारा, दक्षिणेकडले आफ्रिकेंत, मध्य युरोपांत, लॅटीन अमेरिकेंत अस्पृश्यताय चलता.

कोंकण आनी गोंयांत पूर्विल्ल्या काळांत अस्पृश्यतायेची चाल भोव कडक आसली. आतां ल्हव ल्हव ती पातळ जायत चल्ल्या.

-डॉ. ओलिव्हीन्यु गोमीश

**अहमदनगरः** महाराष्ट्र राज्यांतल्या अहमदनगर जिल्ह्याचें मुखेल ठाणें. लोकसंख्याः १,८१,२१० (१९८१). क्षेत्रफळः ३१.७६ चौ. किमी. सीना न्हंयचे उत्तर देगेर, दौंड-मनमाड रेल्वेमार्गार दौंड सावन ८२ किमी. आनी पुणे-औरंगाबाद राज्यमार्गार पुणेसावन ११६ किमी. अंतराचेर हें शार वसलां. हांगाची हवा सुकी आनी वर्सुकी पावस ४६ सेंमी. आसता.

बहामनी साम्राज्याचेर राज्य करपी अहमदशाह बहिरी हाणें थंयच्यान वेगळो सरून १४८९ त आपले निजामशाहीची हांगा थापणूक केली आनी ह्या शाराक अहमदनगर हें नांव दवरलें. निजामशाहीच्या देडशें वर्सांच्या काळांत शाराची खूब उदरगत जाली. १६३६ त ह्या शाराचेर शहाजहानाची सत्ता आयली. औरंगजेब बादशहा दक्षिणेचे मोहिमेचेर आसतना ताका हांगाच्या सद्याच्या भिंगार ह्या वाठारांत मर्ण आयलें. फुडें १७५९ त हें शार मराठ्यांच्या शेकातळा आयलें. १७९७ वर्सा हांगा दौलतराव सिंधिया हाचो शेक चलतालो. १८१७ त ब्रिटिशांनी मराठ्यांकडल्यान तें आपल्या ताब्यांत घेतलें. ब्रिटिशांनी ह्या शाराचें लश्करी म्हत्व लक्षांत घेवन हांगां कॅंटोनमेंट विभागाची थापणूक केली. १९४२ वर्सा भारताच्या सुटकेखातीर जाल्ल्या आंदोलनांत भारतांतल्या व्हड व्हड फुडाऱ्यांक ह्या शारांतल्या भुईकोट किल्ल्यांत बंदखणींत दवरिल्ले. ह्याच किल्ल्यांत पंडित जवाहरलाल नेहरू हाणें 'डिस्कवरी ऑफ इंडिया' हें पुस्तक बरयल्लें.

अहमदनगर जिल्ल्यांत जावपी वस्तुंमदीं साकर, कापूस, कपडे, विडयो, आयदनां, धान्य आदींच्या निर्यातीखातीर आनी जिल्ल्यांत आयात जावपी वस्तूंचे आयातीखातीर हें शार उतारपेठ समजतात. देखूनच महाराष्ट्र राज्यांतल्या सगळ्या मुखेल शारांक हें शार रस्त्यांनी जोडलां. कापूस पिंजप, तेल, अभियांत्रिकी, हातमागावेली आनी यंत्रमागावेली पातळां, आयूर्वेदीक वखदां, तांबे, पितूळचीं आयदनां आदींचे कारखाने हांगा आसात. १८५४ वर्सा हांगा नगरपालिकेची थापणूक जाली. ह्या शारांक पिंपडगांव आनी कापूरवाडी हांगासल्ल्या तळ्यांतल्यान उदकापुरवण जाता. हांगा विद्यालयां, महाविद्यालयां आनी आयुर्वेदीक महाविद्यालयां आसात.

हांगाच्या भुईकोट किल्ल्याखातीर शाराक आगळेंच म्हत्व आसा. हो तांतया आकाराचो किल्लो १४९४ ते १५६० ह्या काळांत बांदिल्लो असो उल्लेख मेळटा. ह्या किल्ल्याक २.४ किमी. चें फातराचें दुरीग आसून ताचे सकल व्हड चर आसा. ह्या शारांत आशिल्ल्यो मशीदी, अहमदशहाची कबर, फराहबाग, हत्सबिहिस्त बाग, औरंगजेब बादशहाचो दर्गो, नगरपालिकेचें संग्रहालय आनी पुराभिलेख विभागाचें संग्रहालय आदीं वास्तू पळोवपासारक्यो आसा. अहमदनगर शाराचे उदेंतेक णव किमी. अंतराचेर सलाबतजंगाची कबर आसा, जिका चांदबिबीचो महाल म्हण्टात. हाचेभायर हांगा निजामशाहींतले दर्गे, बागो आनी हेर इमारती आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**अहमदाबादः** गुजरात राज्याची आदली राजधानी आनी एक म्हत्वाचें उद्येगीक शार. लोकसंख्या २५,१५,००० (१९८१). क्षेत्रफळ ९२.९८ चौ. किमी. मुंबयचे उत्तरेक अस्तंत रेल्वेमार्गान हें शार ४९२ किमी. अंतराचेर आसा.

आशापल्ली (आतांचें आशावल) ही भिल्लांची राजधानी राजा कर्ण हाणें इकराव्या शेंकड्यांत जिखली आनी तिच्या शेजराच ताणें कर्णावती नगराची थापणूक केली. पंदराव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत सुलतान अहमदशाह हाणें ह्या दोन नगराच्या अवशेषांचेर सद्याचें अहमदाबाद शार वसयलें. १५ व्या शेंकड्यांतल्या भोंवडेकारांच्या लिखाणावेल्यान त्या काळांतलें हें जगांतलें सोबीत आनी गिरेस्त शार आशिल्लें हें दिसून येता.

सोळाव्या शेंकड्यांत झुजांक लागून ह्या शारांत अस्थिरताय आशिल्ली. निमाणें, अकबरान हें शार ज़िखलें आनी हांगाची परिस्थिती सुदारली. ह्या काळांत वेपार धंद्याक बरेच नेट आयलो. भांगर, चांदी, जरी- रेशमी, सुतीकामाचें कसब, कोरीवकाम, धातुचीं कामां हाकालागून अहमदाबाद शाराक खूब म्हत्व आयलें. पूण औरंगजेबाच्या काळांत हांगाची स्थिती खालावली. १८१७ वर्सामेरेन हांगा मराठ्यांची राजवट चलताली. फुडें ब्रिटीश राजवटींत हांगाची स्थिती सुदारत गेली. उद्येगधंद्यांत ल्हव ल्हव करून जम बसूंक लागलो. कांय वर्सांनी कापडाच्यो गिरण्यो सुरु जाल्यो, आनी वेपार धंद्यांत मुंबयचे फाटोफाट अहमदाबाद शाराचो क्रमांक लागलो.

विसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या दशकांत हांगाच्या उपनगरांत महात्मा गांधीच्या साबरमती आश्रमाची थापणूक जाली. हे घडणुकेन अहमदाबाद शाराक देशाच्या राजकीय आनी समाजीक नदरेन म्हत्व आयलें. देश स्वतंत्र जातकच भाशावार राज्यां जाली आनी अहमदाबाद शार गुजरातची पयलीं राजधानी जाली.

रचणूक, मांडावळ, वेव्हार आदीं गजालींवेल्यान अहमदाबाद ह्या शाराचे दोन विभाग करूं येता. आदलें आनी नवें अहमदाबाद. आदलें अहमदाबाद, साबरमती न्हंयेच्या उदेंत तिराचेर आसा. समुद्रसपाटीपसून फकत ५५ मी. उंचायेचेर आशिल्ल्यान केन्नाकेन्नाय ह्या शाराक हुंवाराची बादा जाता. आदल्या अहमदाबाद नगराक ४.५ ते ६ मी. उंचायेचो तट आसा आनी तातूंत भितर आशिल्ली वस्ती आदल्या शाराची कल्पना दिता. नव्या शाराचो विस्तार सगळेकडेन पातळ्ळा आनी तातूंत उद्देगीक परिसराशिवाय एलिस ब्रिज, शाहीबाग अशीं आधुनिक उपनगरांय आसात.

अहमदाबाद शारांत कापडाच्यो गिरण्यो, सुती रेशमी, कृत्रीम धागे, लोखण, वखदां आनी हेर उत्पादनाचे कारखाने आसात. १९३० वर्सा सावन हें शार शिक्षणाच्या मळार फुडारलां. गुजराताच्या भाशा, संस्कृती आनी उच्च शिक्षणाचें हें केंद्र आसा. कपड्यावेलें विणकाम, भरतकाम, रंगकाम, लांकडावेलें कोरीव हे पोरने कले वांगडाच आधुनीक कलेच्या विकासाच्यो हांगा जायत्यो येवजणो चलतात.

ह्या शारांत पंदराव्या शेंकड्यांतली जुम्मा मशीद, सोळाव्या शेंकड्यांतली राणी सिप्रीची मशीद, शाहीबाग, नारायण मंदिर आदीं जायतीं पळोवपासारकीं थळां आसात. तेभायर हांगां १२५ वयर जैन मंदिरां आसात. हांगा आशिल्लो महात्मा गांधीचो साबरमती आश्रम तर आंतरराश्ट्रीय स्मारक जालां.

अहमदाबादच्यान सुमार २५ किमी. अंतराचेर सद्याची गुजरातची राजधानी गांधीनगर आसा. रेल्वेमार्ग, रस्ते, आनी विमानमार्ग आदी येरादारीच्या साधनांनी हें शार भारतांतल्या हेर शारांकडेन जोडलां.

- कों. वि. सं. मं.

**अहिंसाः** भारतीय आर्य धर्माच्या जायत्या उदात्त तत्त्वांतलें एक मुखेल तत्त्व. अहिंसा हो धर्म म्हणूनय मानिल्लो आसा. भारतीयांच्या ४८ संस्कारांत अहिंसेक आत्मसंस्कार अशें मानतात. सुर्वेक अहिंसा एक मोक्षसाधन म्हूण प्रचारांत आयली. आत्मगिन्यानी मनीस कोणाचीच हत्या करीना वा कोणाक दुखयना कारण प्राणिमात्र म्हळ्यार एकाच इश्वराची रुपां हें ताका खबर आसता. अहिंसा धर्म हो बौध्द वा जैन हांणी पयलीं उपदेशांत हाडला अशें कांय जाणांचें मत आसा. पूण भारतीय आर्यधर्मांत जैन आनी बौध्द हांच्याकूय आदीं अहिंसा तत्त्वाचो उदय जाल्लो दिश्टी पडटा.

गिन्यानरुपी मनशान खंयचेंय मोक्षसाधन आपणावचेखातीर अहिंसा तत्त्व मान्य करूंकच जाय असो सिध्दांत भारतीय तत्त्वगिन्यानी लोकांनी पूर्विल्ल्या काळांत मांडिल्लो. अहिंसा धर्म हो सगळ्यांनी पाळपाचो धर्म आसा आनी कसल्याय तरेची हिंसा करप हें पातक जावन आसा अशें मत महाभारत काळांत लोकसमाजांत आशिल्लें. संवसार सोडून वानप्रस्थाश्रम आपणावपी निवृत्तीमार्गी यतिमुनी हिंसा करीनासले आनी मांस खायनासले अशी गवाय ग्रीक इतिहासकार हिरोडोटस (इ.स.प. ४५०) हाणें दिल्ली आसा. आर्यांच्यो आहाराविशीं ज्यो कल्पना आसल्यो तांतूंत मांस खाल्ल्यान मनीस अशुध्द जाता अशीय एक कल्पना आशिल्ली, जिचे वरवीं अहिंसेच्या प्रचाराक बरेच पाळो मेळ्ळो. फुडल्या स्मृतीकारांनी अशी कल्पना काडली की जो मनीस ज्या प्राण्यांचें मांस खाता तो प्राणी दुसऱ्या जल्मांत त्या मनशाचें मांस खाता. तेखातीर मांस आहारांत व्हड प्रमाणांत बंदी आयली. पूण ही कल्पना सुर्वेक नासली. जेन्ना आर्य लोक भारतांत येवन उदेंतेकडेन आनी दक्षिणेकडेन वचत रावले तशें तांकां धान्य आनी भाजीपालो चड प्रमाणांत मेळत रावलो. तेखातीर तांकां मांस खावपाची तितलीशी गरज उरली ना.

जायत्या वर्सांसावन जांचे पूर्वज मांस खाताले त्या भारतीय लोकांनी अहिंसा धर्माक म्हत्व दिलें आनी मांसाहाराचो त्याग केलो. ही मनशाच्या इतिहासांतली तोखणायेची गजाल अशें म्हण्टात.

जैनाच्या काळांत अहिंसा तत्त्वाक खुबूच पाळो मेळ्ळो. जैन साधूंक अहिंसा, सत्य, अस्तेय, ब्रह्मचर्य आनी अपरिग्रह हीं पांच महाव्रतां पाळचीं पडटात.

तातूंतलें 'अहिंसा' हें सगळ्यांत व्हड व्रत आसा. जैन धर्मांत अहिंसा तत्वाची फोडणीशी बारीकसाणीन केल्या. एकाद्र्या जिवाक मारप वा ताका त्रास दिवप असो हिंसेचो स्पश्ट अर्थ जाता. राग येतकच मनीस विचार करीनासतना दुसऱ्या जिवाक त्रास दिता, ताकाय हिंसा म्हणू येता. तेभायर वायट विचार मनांत दवरून केल्लें खंयचेंय काम हिंसा जावंक शकता.

अहिंसा पुरायतरेन पाळपाखातीर जैनातले स्थानवासी पंथाचे यती भोंवतना वाट निवळ करूंक आपले वांगडा सुताचो कुंचो दवरताले. जीव जंतू तोंडांत वचून तांची हत्या जावंची न्हय म्हूण तोंडार लुगटाची फाळी बांदताले. आंगावेले कपडे फांफुडल्यार ताचेवेले जीव मरत म्हूण कपडे फांफडीनासले.

बौध्दांनीय अहिंसेक मान्यताय दिली आसली तरी ती पाळपांत कांय आडवाद आसात. ह्या धर्मांत मनीस धर्माक अनुसरूनच अहिंसेविशी येवजप जालां. बौध्द धर्माच्या अष्टांगीक मार्गांत अहिंसा ही योग्य आकांक्षांच्या वळेरेंत एक फावट आनी सद्वर्तनाच्या वळेरेंत दुसरेफावट आयिल्ली दिश्टी पडटा.

बौध्दांनी आपल्या पंचशिलांत अहिंसेक पयली सुवात दिल्या. अहिंसेविशीं खासा बुध्दाचीं तत्त्वां मात्शीं वेगळीं आशिल्लीं. जी वस्त भिक्षा म्हणून दितात ती आपणावची असो ताचो आदेश आशिल्लो. ताच्या मताप्रमाण मांस भक्षणान मनीस भश्टना तर वायट कर्तुपांनी भश्टता. भश्टप वा ना भश्टप हें कितें खाता हाच्यावेल्यान थारना तर मनीस कितें करता आनी कशें करता हाचेवेल्यान थारता. एकदां चंड नांवांच्या धवडाच्या घरांत भिक्षा म्हूण मेळिल्लें दुकराचें मांस बुध्दान खाल्ल्याची आख्यायिका आसा. सद्या चीन, जपान सारकिल्या देशांत जंय बौध्द धर्माचे अनुयायी आसात ते मांसाहार वर्ज्य मानीनात.

सम्राट अशोकान अहिंसेचें स्वता आचरण केल्लें आनी दुसऱ्यांकूय तेविशीं आज्ञा दिल्ल्यो. अशोकाच्या शिलालेखांत अहिंसेविशीं दिल्ल्यो आज्ञा आसात. खंयच्याच जीवाची हत्या जावंची न्हय अशें अशोकाक दिसतालें. त्या काळांत सोयऱ्यांक जनावरांचें मांस दिवन खोशी करताले. अशोकान हे चालीचेर बंदी हाडली. तशेंच आपल्या राजवाड्यांत जावपी जनावरांची हत्या ताणें थांबयली.

भागवत धर्मांत अहिंसा मंत्राक मान्यताय दिवन हिंसाप्रधान यज्ञाक विरोध केला. महाभारतांतल्या नारायणीथोपाख्यानांत उपरिचर राजाचें आख्यान दिल्लें आसा. हो राजा भागवत धर्माक मानतालो. ताणें आपल्या अश्वमेध यज्ञांत पशुहत्या करचेबदला यवांची आहुती दिवन यज्ञकर्म पुराय केल्लें. भगवान नारायणान ब्रह्मादीदेवाक वैष्णव धर्माचो सिध्दांत सांगतना असो आदेश दिला.

यत्र वेदाश्च यज्ञाश्च तपः सत्यं दमस्तथा।

अहिंसाधर्मसंयुक्ताः प्रचेरेयुः सुरोत्तमाः।
स वो देशः सेवितव्यो मां वोऽ धर्मः पदा स्पृशेत्।।

अर्थः ज्या देशांत वेद, यज्ञ, तप, सत्य दम ही अहिंसा धर्मान भरिल्ली आसा त्या देशांत तुमी रावात. अधर्माची तुमकां मात्तूय बादा जावची न्हय.

वेदविरयत यज्ञांत जनावरांक मारताले. जैनांनी आनी बौध्दांनी जनावरांचे हत्येआड चळवळ उबारली आनी भौशिक लोकांचें मत जनावरांचे हत्येआड बदल्ले. तरी वैदीक धर्माचे खर वांगडी ब्राह्मण आनी क्षत्रिय हाणी मात जनावरांक मारपाचें सोडलें ना. महाभारताच्या काळामेरेन हिंसक यज्ञ जातालेच. महाभारताच्या काळाउपरांत जेन्ना बौध्द आनी जैनाचो पाडाव करून आर्य धर्म वयर सरलो तेन्ना पराक्रमी क्षत्रिय राजांनी अश्वमेध यज्ञ केल्याचें दाखले मेळटात. पूण वैष्णव धर्माच्या भरभराटीच्या काळांत लोकांचे ह्या यज्ञाच्या वायट आनी भिरंकूळ चालीविशीं मत बदल्ले.

गीतेंतल्या ज्ञानलक्षणांत अहिंसेचो आस्पाव आसा आनी अहिंसा म्हळ्यार शारिरीक तप आशिल्ल्याचेंय तातूंत म्हळां. श्रीकृष्णाच्या काळांत यज्ञ यागाचें बरेंच बळगें आशिल्लें. श्रीकृष्णाच्या काळांतल्यानच हिंसक यज्ञाआड लोकांचें मत ल्हव ल्हव करून बदलूंक लागलें.

हिंदू संस्कृतायेंतली अहिंसेची सुवात स्पश्ट आसा. वैदीक धर्मांत धर्मीक म्हत्व आशिल्ल्या यज्ञांत जरी जनावरांची हत्या करपाची चाल आशिल्ली तरी काळांतरान हे यज्ञ बंद पडले आनी भक्तीमार्गाचेर आदारीत मोक्षमार्ग रुढ जालो. अहिंसा, सत्य आनी ब्रह्मचर्य हीं तत्त्वां हिंदू धर्माचीं खाशेलीं आंगां जालीं.

महात्मा गांधी चालू काळांतलो अहिंसेचो एक व्हड उपासक. ताणें सत्याग्रहाचें एक नवें तत्त्व उपेगांत हाडलें आनी ताका आदार म्हूण अहिंसेक म्हत्व दिलें. आचार्य विनोबा भावे हो अहिंसेचो दुसरो व्हड उपासक. ताच्या मतान निर्भयता, मोग आनी सहकार्य अशे अहिंसेचे तीन अर्थ आसात.

अहिंसेविशीं अस्तंती विचारवंतांची विचारसरणी वेगळी आसा. आमच्यांत धर्म आनी आहार हातूंत जितलो लागसल्लो संबंद आसा तितलो तांच्या विचारवंत आनी धर्मीक लोकांत तो दिसना. मांस भक्षण केलें वा सोरो पियेलो म्हूण ते अस्तंती लोकांच्या धर्मा आड जावंक शकना.

मनशाचो सभाव संघर्शशील आशिल्ल्यान ताका स्वताची आनी स्वताचे आस्पतीची राखण करचे खातीर झुजचेंच पडटा. हें मतींत घेत जाल्यार अहिंसा तत्त्व आपणावंक सोंपे न्हय. पूण दुसरेखटेन स्वता जियेवचें आनी वांगडाच दुसऱ्यांकूय जियेवचे खातीर पालव दिवचो अशें मत आपणायल्यार अहिंसेचें म्हत्व जाणवता.

- कों. वि. सं. मं.

**अहिराणीः** अहिराणी ही मराठीची एक पोटभास. खानदेशांत रावपी लोक ही भास उलयतात, देखून तिका खानदेशी अशेंय म्हण्टात. खानदेश म्हळ्यार महाराष्ट्रांतले जळगांव आनी धुळे हे दोन जिल्हे. ह्या जिल्ह्यांचे दक्षिणेक नासिक आनी बुलढाणा आनी उत्तरेक गुजरात आनी मध्य प्रदेशाची शीम तेंकल्या. हाकालागून अहिराणीचेर गुजरातीचो बरोच प्रभाव दिसता. डॉ. ग्रियरसन हाणें आपल्या Linguistic Survey of India -Vol.IX, Part II) ह्या पुस्तकांत तिका गुजराती भाशेची एक पोटभास अशें म्हळां. पूण फुडें जाणकारांनी केल्ल्या अभ्यासांत ती मराठीची पोटभास अशें सिध्द करपाचो यत्न दिसता.

खानदेशांत बरींच वर्सां पयलीं आभीरा अहीर नांवाच्या लोकांनी राबीतो केल्लो. वेवसायान गवळी आशिल्ल्यान गोरवांक लागपी चरपाच्या सोदांत ते नर्मदा तापीचे कुशीक येवन राविल्ले.

अहीरांची भास ती अहिराणी. कांय अहीर खानदेशाच्या भायर म्हळ्यार नासिक, औरंगाबाद, बुलढाणा हांगाय गेले. ह्या सगळ्यांची संख्या मतींत घेतल्यार अहिराणी उलोवपी लोकांची संख्या सादारण बारा लाखांचेर पावता.

खानदेश-सातपुड्याचो दोंगराळ वाठार जाल्ल्यान लोकांचो एकामेकांकडेन चडसो वेव्हार जावंक पावना, देखून अहिराणीची बरीचशीं रूपां पळोवंक मेळटात. हें भाशेंत कोणेंच व्हडलेंशें बरोवप केल्लें ना. व्याकरणां, शब्दकोश रचिल्ले नात. ताका लागून तिचें शिश्ट रुप घडूंक पावलेंना. अहिराणी स्वताक महाराष्ट्रीय मानून मराठी आपली भास मानतात.

अहिराणी भाशेचें खाशेलेपण तिच्या ध्वनी नेमांनी, व्याकरणांत आनी उतरावळींत ह्या तीनय आंगानी दिसता. देखीक-

अहिराणी ध्वनीः
स्वरः अ आ ई उ ए ऐ ओ औ
व्यंजनः क ख ग घ च छ ज झ ट ठ ड ढ ण
त थ द ध न प फ ब भ म य र ल व स श ह

१. मराठीचो 'ळ' अहिराणींत 'य' जाता.

देखीकः

| *मराठी* | *अहिराणी* |
|---|---|
| डोळा | डोया |
| धुळें | धुयें |
| पिवळा | पिवया |

२. 'ण' चे सुवातेर 'न' जाता.

देखीकः

| *मराठी* | *अहिराणी* |
|---|---|
| पाणी | पानी |
| जाणे | जाने |
| पाहुणां | पावनं |

३. कांय कडेन गुजरातीभशेन 'स'चे सुवातेर 'छ' मेळटा.

देखीकः

| *मराठी* | *अहिराणी* |
|---|---|
| साल | छाल |
| सावली | छावली |

४. उतरांचे सुरवातेचे 'वि' चे सुवातेर 'इ' मेळटा.

देखीकः

| *मराठी* | *अहिराणी* |
|---|---|
| विकत | इकत |
| विचार | इचार |
| विमान | इमान |

५. नासिक्य ध्वनीच्या सुवातेर दीर्घ स्वर जाता.

देखीकः

| *मराठी* | *अहिराणी* |
|---|---|
| चिंच | चीच |
| भिंत | भीत |
| उंच | ऊच |

**अहिराणी व्याकरणः** मराठी भाशेंत नामाक विभक्ती प्रत्यय लावचे पयलीं नामाचें मूळ रूप बदलता, ताका सामान्य रूप अशें म्हण्टात, पूण अहिराणींत तशें जायना. विभक्ती प्रत्ययाचें रूप नामाकुच लायतात. देखीकः

| मराठी | अहिराणी |
|---|---|
| घोडा-घोड्याला | घोडाले |
| शाळा- शाळेला | सायले |
| घर- घराला | घरले |

विभक्ती प्रत्ययाक 'स' जोडल्यार बहुवचनाचें रुप जाता. हे भाशेंत विभक्तीचे प्रत्यय अशे आसात-

| | एकवचन | बहुवचन |
|---|---|---|
| प्रथमा | ---- | ---- |
| द्वितीया | ले (घोडाले) | सले, हले (घोडासले) |
| तृतीया | न्ही, नी, कडतीन, | सन्हीं, सनी, सकडतीन, |

| | तीन | सकड |
|---|---|---|
| चतुर्थ | ले, से | सले, सफरी, ससे |
| पंचमी | तिन, थिन, पान | सतिन, सयिन, सपान |
| षष्ठे | न्ह, न्ही, न, नी | सन्ह, सन्हीं, सन, सनी |
| सप्तमी | म, मा, मझार | सम, समा, समझार |
| संबोधन | ओ | ओ |

अहिराणी सर्वनामांची रूपां अशीं आसातः

| | | |
|---|---|---|
| प्रथम पुरुश | एकवचन 'मु' | बहुवचन 'आम्हु' |
| मध्यम पुरुश | एकवचन 'तू' | बहुवचन 'तुम्हु' |
| अन्यपुरुश | एकवचन 'तो', 'त्या', 'ती' | बहुवचन —— |
| द्वितीया | 'मले', 'आम्हाले'; | 'तुले', 'तुम्हाले' |
| पष्ठी | 'मना', 'आम्हांना'; | 'तुना', 'तुम्हांना'. |

'तो', 'त्या', 'ती' हीं सर्वनामां वयर देखीक म्हूण दिल्ल्या 'घोडा' ह्या उतराच्या रूपाभशेन प्रत्यय जोडटना दिसतात.

अहिराणी क्रियापदांनी लिंग आनी पुरुषभेद नात. फकत वचनांचे प्रत्यय तातूंत दिसतात.

देखीकः

मी करत, आम्हु करतस; तू करत, तुम्हु करतस; तो/ती/ते करत, ते/त्या/ती करतस.

भूतकाळांत बऱ्याच क्रियांनी हो वचनभेद दिसून येता.

देखीक-

मी के/कय आम्हु के/कय तू के/कय तुम्हु करतस

मी केक आम्हु केक तू केक तुम्हु केक.

तो/ ते/ ती/ त्या/ ते/ ती केक

आज्ञार्थी क्रियांची मांडावळ अशीच आसता, पूण निमण्या स्वराचेर जोर दिवप जाता. कांय सकर्मक क्रियांनी मात 'न' असो भूतकाळाचो प्रत्यय जोडून फुडें वचनाचो प्रत्यय जोडटात. देखीकः

मी बोलनु आम्ही बोलनु तु बोलना तुम्हु बोलना
तो/ती/ ते बोलना तो/ त्या/ ती बोलनात.

अहिराणीचो हो भूतकालीन प्रत्यय 'न' मराठीच्या पोटभाशांनीय मेळटा.

अहिराणीची भविष्यकालीन रुपां अशीं आसात-

मी करसूं, आम्हु करतुस, तू करशी

तुम्ही करशान, तो/ती/ते करील, ते/त्या/ती करतिन

अहिराणी अव्ययां- अठे (हांगा), तठे (थंय), जव्हय (जेन्ना), तंव्हय (तेन्ना), पण (पुण), आन/न (आनी).

वाक्यरचणूक कोंकणी/मराठी भशेन आसा-

इमलना आजला घोडे उना
(विमलचो आजो घोड्यान आयलो)
आमुन। आम्हु मोहाडीमां न्हातस
(आम्ही मोहाडीला राहातो)
पाटलावर सिया वळतस
(पाटाचेर शेवयो वळटात)

अहिराणीच्या शब्दसंग्रहांतपसून तिचें खाशेलेपण दिसून येता. तातूंत गुजराती/मराठीचे बरेच शब्द आसात. देखीकः

मराठीः पानी (उदक), साय (शाळा), गजरा (वळेसर), सिया (शेवयो).

गुजरातीः साक (भाजी), कापड (हार), साकरु (कणंग), सारु (बरें), जोयजे (जाय).

अहिराणीचीं खाशेलीं उतरांः अंडोर (चलो), धल्डा (म्हातारो), झोऱ्या (शेंदरी), बोरवलं (कोनसो).

गुजरातींतली बरीचशी उतरावळ आसूनपसून ही मराठीचीच एक पोटभास अशें मानतात. कारणः १. मराठी आनी गुजराती शब्दांचे प्रमाण १००:४१. २. षष्ठी सोडून सगळे विभक्ती प्रत्यय मराठीचे आसात. ३. क्रियापदांचें अकरणरुप मराठीभशेनूच आसा. ४. ल्यबंतरूप गुजरातीभशेन पूण ताचे धातू मराठी तद्‌भव दिसतात. ५. अस्तिवाचक 'से' गुजरातीचो पूण तो मराठी आनी गुजराती दोनय क्रियांसकट दिसता. ६. वाक्य रचणूक मराठीचीच आसा.

अहिराणी भाशेंत बहिणाबाई चौधरी हिणे बरयिल्लो होंवयो बऱ्योच गाजल्यात.

अहिराणी भाशेचो एक दाखलोः

'उत्तर हिंदुस्तानमां अयोध्या नावन यक सहेर शे. तठे येक राजा होइ ग्या. त्यान्ह नाव दसरथ व्हत. तो धल्डा होइग्या, पन त्याले पोरसोर झायनी. तव्हह त्यानी कांय के, की त्यान्हा जो ब्राह्मण गुरु व्हता त्याले बलाइसन आन अन 'डिकरानी कांही तजवीज आमले दरखाज' अशा रावन्याकिध्यात बामनानी येक उपाय दरवाडा.'

- पुष्पा पै

संदर्भ- १. कालेलकार, ना. गो., भाषा, इतिहास आणि भूगोल, मुंबय; २. जोशी, महादेवशास्त्री भारतीय संस्कृति कोश, पुणे; ३. भिडे, मुकुंद नारायण, मराठी भाषा उद्‌गम व विकास, पुणे.

**अहीरः** गवळ्यांची आनी शेतकामत्यांची एक जात. बिहार, ओरिसा, उत्तर प्रदेश, पंजाब, सौराष्ट्र आनी खानदेश ह्या प्रदेशांनी अहीर रावतात. 'अहीर' हें उतर मूळ संस्कृत उतर 'आभीर' ह्या उतरावेल्यान आयलां. अहीर गुजरांसारकेच गोरवां पोसतात.

मयुरावंशी नांवाची अहीरांची एक पोटजात आसा. हे जातीचे अहीर ऊंच, गंवाच्या रंगाचे आनी तोंडावळ्यान कोवळे आनी नाजूक आसात. मगधांतले अहीर काळे, मोट्या हातापायांचे आनी आडबडीत तोंडावळ्याचे दिसतात. उत्तर भारतांतल्या जायत्या अहीरांनी इस्लाम धर्म आपणायला आनी तांकां 'घोसी' वा 'गड्डी' अशें म्हण्टात. अहीरांक बंगालांत 'गोआला' आनी मध्य प्रांतांत 'गवळी' वा 'ग्वाल' अशें म्हण्टात. प्रदेशाप्रमाण रावत, कहर आनी महाकुल अशींय तांकां नांवां आसात.

अहीर हे चड करून कृष्णाचे भक्त आसले तरीकूय तुळसीश्याम, देवी, हब्बेस, भिलाट ह्या देव-देवतांक ते मानतात. हरीदासबाबा ह्या साधूक ते भजतात. वर्सांतल्या एका खाशेल्या दिसाच ते लग्न जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**अळमीः** (इंग्लीश- मश्रूम, टोडस्टूल; संस्कृत- कवक; हिंदी- कुकुरमुत्ता, धिंग्री, गुच्छी, खुंभी; मल्याळम्-नायकोडे/कुनु; मराठी- भूछत्र, अळंबी, कावळ्याची/कुत्र्याची छत्री).

पावस पडूंक लागतकच सत्रेभाशेन जमनींतल्यान तशेंच लाकडांतल्यान वयर सरपी वनस्पत म्हळ्यार अळमी. अळमी म्हळ्यार बुरशी वा चित्याचो एक प्रकार. अळमी हेर वनस्पती प्रमाण आपलें अन्न तयार करूंक शकना. अन्नाखातीर हे वनस्पतीक कसल्या तरी सेंद्रिय पदार्थाचेर आदारून रावचें पडटा. अळम्याची गणना बुरशीच्या 'अॅस्कोमायसीट्स' आनी 'बेसीडीयोमायसीट्स' ह्या प्रकारांत जाता. बुरशीच्यो सादारणपणान एक लाखावयर जाती आसात. हातूंतल्यो फकत १००० जाती पारंपारिक रितीन खावपाक वापरतात. अळम्याच्यो कांय जाती विखाळ आसतात. पूण कृत्रिम रितीन अळम्यांची लागवड करतात तेन्ना विखारी जातीचो भंय आसना. ५० परस चड जाती आयज जगांत कृत्रिम रितीन पिकयतात.

**इतिहास काळांतलो वापरः** अळम्यांचो खावपाखातीर उपेग जातालो असो उल्लेख आनी पुरावो पयलींच्या बरपावळींत मेळटा. इजिप्त देशांतले पूर्विल्ले फेरो राजा आपल्या जेवणांत अळम्यांचो आस्वाद

करताले. ग्रीक आनी रोमन लोक अळम्यांक देवाचें अन्न मानताले. मेक्सिकोंतले अॅझटेक जमातींतले लोक अळम्यांचो वापर करताले. वेदांभितर बरयल्लो सोमरस तयार करचेखातीर विखयाळ्या अळम्यांचो उपेग करताले अशें बऱ्याच विद्वानांचें मत आसा. वेद काळांत आनी महाभारत काळांत अळमी खावप निशिध्द मानताले.



अळमी

**सादारण वर्णनः** अळमें सादारणपणान पेल्ल वा सत्रेसारकें दिसता. हे सत्रेक वा पेल्लाक दांडो आसता. हाचो कांय वांटो जमनीभितर आसता आनी तो बरींच वर्सां जिवो उरता. दर वर्सा फाव त्या ऋतूंत सत्रेभशेन वा पेल्लभाशेन दिसपी आकार जमनींतल्यान भायर सरता. अन्नाची पुरवण सोंपसर जमनीभितरलो वांटो जियेता आनी वर्सांतल्यान एकदांच जमनीवयर किल्लता. परिस्थिती फाव तशी नासल्यार अळम्याचें बीं मरता.

सैमांत अळम्यांची उत्पत्ती कशी जाता हाचें बऱ्याच लोकांक गिन्यान ना. झाडांची उत्पत्ती जशी बियांपसून जाता तशीच अळम्यांची उत्पत्ती बियांपसून (spores) जाता. अळमी फुटल्या उपरांत ताचे तोपयेसकयल जें पातळ आवरण आसता तें फुट्टा आनी तातूंतल्यान कितलींशींच अळम्यांचीं बियां भायर पडटात. हातूंतलीं कांय बियां थंयच सकयल पडून उरतात, तर कांय बियां वाऱ्यान जळींमळीं पातळटात. कांय बियांचो प्रसार वायटी, मुयो हांचेवरवीं जाता. हीं बियां बरोच काळमेरेन सुप्तावस्थेंत उरतात. तेउपरांत फाव तशेंच तापमान आनी ओलसाण मेळटकच ताचेपसून अळमीं किल्लून येतात.

**कृत्रीम लागवडः** सगळ्यांत पयलीं कृत्रिम पध्दतीन अळम्यांची लागवड करपाक १६५० वर्सा फ्रांस देशांत सुरवात जाली. उपरांत अशी लागवड इंग्लंडाक सुरू जाली. एकुणिसाव्या शतमानांत अमेरिकेंत अळम्यांची कृत्रिम लागवड जावंक लागली. भारतांत अशी कृत्रिम लागवड १९६१ वर्सा सावन सोलन हांगाच्या अळमी संशोधन केंद्राचेर सुरू जाली.

अळम्याच्यो खावपासारक्यो जाती आसल्यो तरी ह्या सगळ्या जातींची कृत्रिम पध्दतीन लागवड करप शक्य जावंक ना. भारतांत जांची कृत्रिम पध्दतीन लागवड करतात त्यो म्हत्वाच्यो जात म्हळ्यार- १. बटन अळमी (अॅगेरिकस बायस्पोरस) २. ऑयस्टर वा धिंग्री अळमी (प्लुरोटस जात) ३. पॅडी स्ट्रॉ वा भाताच्या तणार वाडपी अळमी (वोलवारियेला जात).

बटन अळम्यांची कृत्रिम लागवड युरेप, अमेरिका, तैवान, कोरिया ह्या देशांनी व्हड प्रमाणात जाता. पॅडी स्ट्रॉ हे जातीच्या अळम्यांची लागवड हाँगकाँग, थायलँड, फिलीपीन्स, इंडोनेशिया, मलेशिया ह्या देशांनी व्हड प्रमाणांत जाता. धिंग्री अळम्यांची लागवड इटली देशांत चड प्रमाणांत जाता. भारतांत पॅडी स्ट्रॉ प्रकारच्या अळम्यांची लागवड कोईमतूर, कानपूर, म्हैसूर, बंगळूर, दिल्ली हांगा करतात. बटन अळमी हिमाचल प्रदेश, जम्मू काश्मीर हांगाच्या उण्या तापमानांत बरीं जाता. धिंग्री अळम्याची लागवड पंतनगर, बंगळूर, म्हैसूर, कोइमतूर हांगा जाता. हालींच्या काळांत धिंग्री प्रकारच्या अळम्यांची कृत्रिम लागवड करूंक सुरवात जाल्या. धिंग्री आनी पॅडी स्ट्रॉ ह्या प्रकारच्या अळम्यांची लागवड करप बरेंच सोंपें आसता.

**धिंग्री अळम्यांची लागवडः** ह्या प्रकारची लागवड करचेखातीर २०° ते ३३° से. तापमानाची गरज आसता. हांची लागवड भाताच्या तणाचेर, मक्याच्या तणाचेर, भाजयेच्या पानांचेर करूं येता. भाताच्या तणाच्या ३-५ सेंमी. लांबायेचे कुडके करतात. हें तण सुकें आसचें पडटा आनी तें पोरनें आसूंक फावना. हे कुडके ८-२४ वरां उदकांत बुडोवन दवरतात. उपरांत ते ८५° से. तापमानाच्या उदकांत १०-१५ मिनटांखातीर बुडोवन दवरतात. हे भिजिल्ले कुडके मागीर जाळयेचेर दवरुन चड आशिल्लें उदक निस्तयतात. ३-४ वरां हे तणाचे कुडके थंड करतात. ३०x५० सेंमी. आकाराच्या पोलिथीनच्या पोतयेक कोनशाक सकयल दोन बुराक करून तातूंत १० सेंमी. उंचायेमेरेन तण घालतात. ह्या तणाच्या थराचेर उपरांत अळम्याचें बीं (स्पॉन) हाचेर वयर परतून १० सेंमी. भाताच्या तणाचो थर घालतात आनी वयर बीं घालतात. अशे तीन थर घालून पर्थून ताचें बीं फाफडून पोतयेचें तोंड बांदतात आनी ही पोती एके कुडींत दवरतात. १८ ते २० दिसांनी पोतयेंत बुरशीची वाड जाता आनी पिशवी धवी फुल्ल जाल्ली दिसता. ह्या वेळार पॉलिथीनची पोती पिंजून काडटात आनी तणाचेर दिसाक दोन फावट उदकाचो फवारो मारतात, तशेंच जे कुडींत अळमी किल्लत घालतात ते कुडीचे वण्टीचेर उदकाचो फवारो मारतात. पोती पिंजल्या उपरांत सुमार ७-८ दिसांनी अळमी काडचेखातीर तयार जातात. हीं पयलीं अळमी काडटकच ८-१० दिसांनी परतून अळमी मेळटात. अशेतरेन सगळींच तीन फावट अळमी मेळटात. एका पोतयेंतल्यान सुमार ७०० ते ८०० ग्रॅ. अळमी मेळटात.

**पॅडी स्ट्रॉ अळम्यांची लागवडः** ह्या प्रकारच्या अळम्यांची लागवड करचे खातीर २५° ते ३८° से. तापमानाची गरज आसता. ताका लागून गोंयांत फेब्रुवारी ते मे ह्या काळांत, हे जातीच्या अळम्यांची लागवड करतात. ताजें भाताचे तणय ह्या तेंपार बरेंच मेळटा. सुमार एक कि. वजनाचें तण घेवन ताच्यो तीन पेणयो करून त्यो १८-२४ वरांमेरेन उदकांत भिजयतात. उपरांत त्यो १० मिनटांखातीर ८०° से. तापमानाच्या उदकांत दवरून तांचेवयलें उदक निस्तायतात. मागीर ४ ते ६ पेणयांचे थर लाकडाच्या चौथऱ्याचेर दवरून ताचेर अळम्याचें बीं शिंपडायतात. उपरांत परत ४ ते ६ पेणयांचे थर दवरून बीं शिंपडायतात. अशे ४-५ थर करतात. निमाणें बीं शिंपडटकच ताचेर तण घालून बीं धांपतात. उपरांत ताचेर प्लास्टिकचें आवरण धांपून तें १० दिसांनी काडटात. ह्या वेळार बारीक आकाराचीं अळमी दिसूंक लागतात. उपरंत ३-४ दिसांनी अळमी काडचेखातीर तयार जातात. पयलें पीक काडून जाल्यार उपरांत ७-१० दिसांच्या अंतरान ३-४ फावट अळमी काडूंक मेळटात. एके फावटीक ३-४ किलो अळमी मेळटात.

अळमी काडटकच १२ वरांमेरेन ताजीं उरतात. फ्रिजांत थंड तापमानात दवरल्यार अळमी तीन दिसांमेरेन ताजीं उरतात. अळमी चड दीस तिगोवपाचीं आसल्यार तीं सुकवन दवरूंक येता. मात जेवणांत वापरपाच्या वेळार हीं सुकयल्लीं अळमीं १० मिनटां उदकांत बुडवन दवरचीं पडटात.

अळमी पुश्टीक आनी रुचीक बरीं आसतात, म्हूण लोक चड पसंत करतात. अळम्यांत प्रथिनांचें, जीवनसत्त्वांचें आनी क्षार द्रव्यांचें प्रमाण भरपूर आसता. तातूंत पिश्टमय पदार्थ आनी स्निग्ध पदार्थ उण्या प्रमाणांत आसतात. जपानांत जाल्ल्या संशोधनांतल्यान अळम्यांत

कर्करोग बरो करपाची शक्त आसता हें सिध्द जालां.

व्हडलें गोंयच्या शेती संशोधन केंद्राचेर अळम्याच्या कृत्रिम लागवडीविशीं संशोधन चालू आसा. ह्या केंद्रांत लागवडीविशीं प्रशिक्षण दितात. थंय धिंग्री आनी पॅडी स्ट्रॉ ह्या जातींच्या अळम्यांचे बीं विकत मेळटा. गोंय विद्यापीठाच्या सूक्ष्म जीवशास्त्र विभागांत गोंयच्या अळम्यांचेर १९८५ सावन संशोधन चालू आसा.

- विश्राम गांवकार

**अळमो**: (इंग्लीश- फंगस गार्डन/ फंगस कोम्ब).

मॅक्रोटर्मिज कुटुंबांतली व्हड रोयणी उबारपी वायटी रोयणीभितर कुशिल्ल्या पाल्याची ल्हान ल्हान 'शेतां' रोयता. ह्या 'शेतां'चेर टर्मिटोमायसीज ही अळम्याची जात चित्याच्या रूपान वाडटा. रोयणींतलो अळमो बारीकसाणेन तपासल्यार ताचेर हे बुरशीचे धवेफुल्ल बारीक-बारीक गुळे वाडिल्ले दिसतात. ह्या गुळ्यांत पाचकद्रव्यां निर्माण जातात तीं खावन वाळटी जियेता. अळम्यांचो आकार खाखेभशेन, रंग म्होंवाच्या माल्याभशेन, वास करंजेलाभशेन आनी स्पर्श बुकबुकीत, हून-हून आसता. सूक्ष्मदर्शकासकयल तपासल्यार वाटयेचें हें मालें म्हळयार 'अळमो' झाडपाल्याच्या पेशींपसून, तंतूंपसून तयार जाल्याचें दिसता. वायटेचे जातीचेर अळम्यांचो आकार, रूप, रंग थारता. गोंयांत चार-पांच तरांचे 'अळमे' सांपडटात.

जुलय म्हयन्यांत ह्या अळम्यावेल्या चित्याचे गुळे किल्लूंक लागतात. तांचे ल्हान देंठ जातात. देंठाचे पोकळ दांडारे जातात. रोयणीचे वण्टीक तेंकतकच तांकां एक तोंपरें फुटता. हें तोंपरें रोयणीक बुराक करीत 'गिरमीट' कशें उजवाडाचे आनी उदकाचे दिकेन वयर वाट काडटा. रोयणीवयर पावतकच ताचें रूप बदलता. तोंपऱ्याचे कळे जातात. कळे तशेच दवरल्यार ते फुलतात. अळमो जितलो व्हड तितल्या प्रमाणांत रोयणीर कळे येतात आनी अळमीं फुलतात.

**गोंयचीं अळमीः** गोंयांत अळम्यांच्यो विखाळ आनी खावपाच्यो अश्यो दोनूय जाती सांपडटात. रानवट अळमी गोंयकार परंपरेन वळखुपाक आनी वेंचपाक शिकल्यात. गोंयांत बाजारांत व्हड प्रमाणांत विकपाक येवपी जात म्हळयार 'अळमी' वा 'रोयणीवेलीं अळमी'. हांकां इंग्लेजींत 'टर्मिटोमायसीज' अशें म्हण्टात. रोयणीच्या पोटांत 'अळमो' आसता ताचेपसून 'टर्मिटोमायसीज' जातीचीं अळमीं जुलय आनी आगश्ट म्हयन्यांत जातात. हीं अळमी चडशीं अस्तंत घाटांतल्या तालुक्यांनी (दिवचल, सत्तरी, सांगें, केपें, काणकोण, फोंडें) जातात. वर्साक सुमार ७५ ते १०० टन अळमी शारांनी विकपाक येतात. दर पंदरा दिसांनी ह्या अळम्यांचें एक पीक येता.

टर्मिटोमायसीज भशेन गोंयांत आनीकूय रुचीक अळमी लोक पुंजायतात. तांचीं थळावीं नांवां आनी विज्ञानीक वळख अशीः फुगो; माड-फुगो; काजु-फुगो (बोलीटस/गायरेडॉन); शिती/शितळ/श्रिंगार अळमी (पोडाब्रेला); तेल अळमे (मॅक्रोलेपिओटा); खूंट/खुंटयाळें अळमे (प्लुटीयस) सोरपा अळमे, पणसा अळमे (प्लुरोटस) आदी.

संवसारांत टर्मिटोमायसीजच्यो ३३ जाती आसात. तातूंतल्यो १२ गोंयांत सांपडटात, अशें गोंय विद्यापीठांतल्या संशोधनावेल्यान दिसून आयलां. झाडांच्या मुळांक बांदून उरपी (मायकोरायजल) चडशो जाती पोर्तुगेजांनी लॅटीन अमेरिका, आफ्रिका हांगासून हाडल्यो आसूंये अशेंय सिध्द जालां. गोंयच्या अळम्यांचें सांस्कृतिक, सैमीक आनी उद्येगीक म्हत्व व्हड आशिल्ल्याचेंय कळटा.

- नंदकुमार कामत.

**अक्षताः** तांबडी पिंजर वा हळद घालून रंगयल्ल्या तांदळांक अक्षता अशें म्हण्टात. देवपुजेंतलें 'अक्षता' हें मुखेल पुजे सामान आसा. देवपुजेंत एकाद्रो उपचार मेळना जाल्यार ते सुवातेर देवाक अक्षता ओंपतात. म्हापुजेंतली आंगपूजा आनी आवरणपूजा अक्षता घालुनूच करतात. देव-देवतांक दवरिल्ल्या सुपारेचेर अक्षता घालून देवाक होरायतात. त्या संबंधान मंत्र असोः

अक्षतास्तण्डुलाः शुभ्राः कुङ्कुमेन विराजिताः।
मया निवेदिता भक्त्या गृहाण परमेश्वर॥

अर्थः कुकमान रंगयल्ले धवे तांदूळ म्हणजेच अक्षता हांव तुका भक्तिभावान ओंपता. देवा परमेश्वरा, त्यो तूं स्वीकार करून घे.

लग्नावेळा न्हवऱ्या-व्हंकलेचेर आनी मुजीवेळार मुंज्याचेर अक्षता उडोवपाची पध्दत पूर्विल्ल्या काळांसवन चलत आयल्या. अक्षतेंतले तांदूळ सुपीकपणाचें प्रतीक अशें मानतात. न्हवऱ्या-व्हंकलेचें लग्न संततीन फळाक येवचें होच उद्देश तातूंत आसता. अक्षता भुता-खेतांचें निवारण करतात असो समज आसा. देखुनूच, न्हवऱ्या-व्हंकलेक भुतांची दिश्ट लागची न्हय म्हूण तांचेर अक्षता उडयतात. लग्नांत 'अक्षतारोपण' हो एक वेगळोच विधी आसा. तुळशी लग्नांतूय अक्षतांचो वापर करतात. ब्राह्मण आशीर्वाद दितना अक्षता माथ्यार घालतात. घरांत सोरेप येत जाल्यार मंत्रायल्ल्यो अक्षता घराभोंवतणी शिंपडायतात.

ग्रीस देसांत ह्याच कारणाखातीर पीठ आनी मिठाय वांटपाची चाल आशिल्ली. हालींच्या काळांत लग्नसुवाळ्यांनी वेगवेगळ्या रंगान रंगयल्ल्या तांदळांच्या अक्षतांचो वापर केल्लो दिसता. पारशी जमातीच्या लग्नांत आनी 'नवजोत' (बटूविधी) सुवाळ्याक अक्षता उडोवपाची प्रथा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**अक्षरः** अक्षर= (अ+क्षर)- जाका क्षरण वा क्षय ना तें अक्षर (जें केन्नाच उणे जायना). ह्या शब्दाचें वेगवेगळ्या पंथांत आनी तत्त्वज्ञानाच्या संप्रदायांत विंगड विंगड अर्थ जातात. कांय अर्थ फुडल्याप्रमाण आसातः-

१. विरगळनासतना उरपी, विकार न पावपी, कूटस्थ, नित्य, सर्वभावातीत आनी केवलनिर्गुण. २. 'वर्णस्मारकरेखात्मकलिपिसन्निवेशः' वर्णांची याद करून दिवपी रेखात्मक लिपिप्रकार (न्यायकोश) ३. परब्रह्म, मोक्ष (वेदान्तमते) ४. लक्ष्मी (माध्वमत) ५. भगवदंशभूतो भगवद्रूपो धामविशेषः भगवंताची अंशभूत आनी भगवद्रूप अशी सुवात (वल्लभमत) ६. ओंकार, वेदांचें सार आनी परमेश्वर हांचो वाचक (गीताः ८.११; १०.२५) ७. अकारादि क्षकारान्त एकावन्न वर्ण

षाण्मासिके तु सम्प्राप्ते भ्रान्तिः संजायते यतः।
धात्राक्षराणि सृष्टानि पत्रारुढाण्यतः पुरा॥

(आह्निक तत्त्व)

अर्थः स म्हयने जातकच अक्षरांविशीं दुबाव उरचो न्हय म्हूण ब्रह्मदेवान अक्षरांची लिपी घडयली.

संवसारांतल्या वेगवेगळ्या भासांच्या वेगवेगळ्या आवाजाच्या चिन्हांक अक्षरां म्हण्टात. पूर्विल्ल्या संस्कृत साहित्यांत शब्दांचो प्रयोग ध्वन्यात्मक (उच्चार करतना), संकेतात्मक (बरयल्ल्या रुपांत) अशा दोनूय अर्थांत सांपडटा. ऋग्वेदांत वर्णमालेक अक्षर अशें म्हळां (ऋ. १.१६४.२४-३९). अक्षर म्हळयार न पाझरपी, अशी तांची व्युत्पत्ती सांगल्या. ऋग्वेदकाळांत अक्षरां कोरांतून काडटाले म्हुण तशें म्हळां. कोरिल्ल्या अक्षरांचेर उदक पडल्यार लेगीत शाय व्हांवना वा पाझरना. वर्ण शब्द फकत संकेतात्मक चिन्ह ह्या अर्थानच मेळटा. वर्णशब्द रंगप वा रंगवप ह्या अर्थाचे वर्ण ह्या धातू वेल्यान आयल्यात. वैदिक काळार तो अक्षराचो पर्याय शब्द जाल्लो. त्याकाळार अक्षरां रंगीत शायेन बरयताले आसूंक जाय अशें दिसता. ध्वनिशास्त्राप्रमाण एकावेळार तोंडांतल्यान भायर पडपी आवाज म्हळयार अक्षर अशें मानताले, मागीर तो बरोवपाक लिपयेंतलें एक वा ताच्याकय चड अक्षरां लागल्यार लेगीत चलतालीं. अक्षराचो जीव स्वरांचेर आसता, मागीर तातूंत आरंभाक वा शेवटा व्यंजनोच्चार मेळूं वा मेळनाका तातूंत कांय फरक पडना. देखीकः गोमुख ह्या शब्दाच्या लेखनाकडेन पळोवन तातूंत तीन अक्षरां आसात अशें समजप चुकीचें थारतलें. तातूंत 'गो' आनी 'मुख' अशीं दोनूच अक्षरां आसात. 'गो' हे स्वरान्त तर 'मुख' हें व्यंजनान्त आसा. 'स्वरान्त' अक्षरांक विवृत आनी व्यजनान्त अक्षरांक 'संवृत' म्हण्टात.

अक्षरांक लघु-गुरु अशें आनीकूय दोन भेद आसात. ऱ्हस्व स्वरान्त

अक्षराक लघु आनी दीर्घ स्वरान्त अक्षरांक गुरु म्हण्टात. र्‍हस्वाची मात्रा एक धरल्यार दीर्घाच्यो दोन धरतात. र्‍हस्वाच्या उच्चारांक जितलो वेळ लागता ताचे दुपटीन वेळ दीर्घाचो धरचो असो संकेत आसा. हे खेरीज तिसरी तरा म्हळ्यार प्लुत. तीन मात्रांच्या अक्षराक प्लुत म्हण्टात, म्हळ्यार प्लुताचो उच्चार करतना स्वर थोडो लांबोवन तीन मात्रांचो काळ काडपाचो आसता. वयलो आशय भरतान फुडले प्रमाण सांगला.

एकमात्रं भवेद् र्‍हस्व द्विमात्रं दीर्घमिष्यते।
प्लुतं चैव त्रिमात्रं स्यादक्षर स्वरयोजनात.

(नाट्यशास्त्र: १७.११६)

वर्णात्मक अक्षरांचो सोद लेखनकलेंतल्या वयल्या पांवड्यावेल्या उदरगतीचें चिन्ह जावन आसा. हे पध्दती भितर एक चिन्ह एकूच आवाज व्यक्त करता. शेंकड्यांनी आवाज न्ही. हे नदरेन देवनागरी लिपी सगळ्यांत श्रेष्ठ मानल्या. तातूंत एक अक्षर एकूच आवाज दाखयता. त्यामानान अरेबीक आनी रोमन लिपी अजुनय पूर्णत्वाक पावूंक ना. वर्णात्मक अक्षरांक आवाज आनी अक्षर हातूंत कसलोच लागींचो संबंद नासता. फकत परंपरेन तो संबंद मानतात.

अक्षर आनी वर्ण हातूंतय शुभ-अशुभ कल्पना करपाक आयल्यात. वर्णांचें शुभ, अशुभ आनी दग्ध अशें वर्गीकरण मेळटा. काव्याच्या आरंभाक अशुभ अक्षर नासचें; असो संकेत आसा.

(छन्दो रचना)

अक्षरां अ-क-च-ट-त-प-य-श ह्या आठ वर्गांत वांटल्यांत. दरेक वर्गाची खाशेली देवता आसून श्लोक वा पद्य हाच्या आरंभाक खास वर्गांतली अक्षरां आपणायिल्यान एक खास फल मेळटा अशें म्हळां. तांचे विस्कटावन केल्ले भाग फुडलेप्रमाण आसात.

| वर्ग | देवता | फल |
|---|---|---|
| अ | सोम | आयुर्वृध्दि |
| क | अंगारक | कीर्ति |
| च | बुध | धनप्राप्ति |
| ट | गुरु | सौभाग्य |
| त | शुक्र | कीर्ति |
| प | शनैश्चर | मंदता |
| य | सूर्य | मरण |
| श | राहू | शून्यता |

- कों. वि. सं. मं.

**अँग्लो इंडियन साहित्य:** अँग्लो इंडियन साहित्य म्हळ्यार चड करून ब्रिटिशांच्या काळांत भारतांत रावपी कांय इंग्लीश मनशांनी बरयिल्लें साहित्य. इंडो अँग्लियन साहित्याकडेन हाचो स्पश्ट दिसपी फरक म्हळ्यार अँग्लो इंडियन साहित्य निर्मीतल्या बरोवप्यांनी हांगाचे भुंयेकडेन खोल नातें दाखोवंक ना. ते आपले संवेदनशीलतेच्या बाबतींत आनी विचारांच्या बाबतींत इंग्लीशच उरले. जरी ब्रिटीश संस्कृतायेचें पडबिंब पडिल्ल्या भारतीय जीणेचें तांणी चित्रण केलें, तरी तांची इंग्लेज जीणेकडेन आशिल्ली निश्ठा आनी इंग्लेज वाचप्यांकडेन पावपाचो हेतू स्पश्टपणान दिसून येता.

सगळ्यांत पयलीं अँग्लो इंडियन बरपावळ म्हूण गोंयांत आयिल्ल्या फादर थॉमस स्टीफन्स (१५४९-१६१९) हाचे बरपावळीचो उल्लेख जाता. ताणें आपल्या बापायक बरयिल्ल्या पत्रांचो ह्या साहित्यांत आस्पाव जाता. ह्याच काळांत लंडनचो वेपारी मास्टर राल्फ फिच हाणें आपल्या भारतांतल्या आनी उदेंतेच्या भोंवडेवर्णनांतल्यान आपल्या साहसांविशीं बरयलां. ही भोंवडी ताणें १५८३ ते १५९१ ह्या काळांत केल्ली.

खऱ्या अर्थान भारतांत इंग्लेज साहित्य आनी साहित्याविशीं अभ्यास वॉरन हेस्टिंग हाच्या कारकिर्दीच्या शेवटाक (१७७४-१७८४) सुरू जालो. अठराव्या शतमानाचो चडसो वांटो साहित्याचे नदरेंतल्यान फळादीक थारलो ना, आनी ताच्या फुडल्या शंबर वर्सांनी जें अँग्लो इंडियन साहित्य निर्माण जालें, तें भोंवडेवर्णनाच्या रूपांत आसा. हातूंत मोगल दरबार आनी त्या काळच्या भारतांतल्या विंगड विंगड प्रांतांतल्या राजकारणाविशीं बरींच वर्णनां आसात. ह्या भोंवडेकाणयांनी त्या बरोवपी लेखकांची साधी सोपी शैली दिश्टी पडटा.

ह्या भोंवडेवर्णनांतलीं कांय नांव घेवपासारकीं म्हळ्यार, जहाँगीराच्या दरबारांत आशिल्लो इंग्लीश राजदूत सर थॉमस रो, एडवर्ड टेरी (रिलेशन ऑफ अ व्होएज टू ईस्टर्न इंडिया), विल्यम मॅथोल्ड (रिलेशन्स ऑफ द किंग्डम ऑफ गोलकोंडा) आनी जॉन फ्रेयर (न्यू अकावंट ऑफ इस्ट इंडिया अँड पर्शिया)

अठराव्या शेंकड्यांत झुजां आनी अराजक हांकां लागून बरीच उणी बरपावळ जाली. हे वेळार रॉबर्ट ऑर्मे (१७२८-१८०१) हाचें 'हिस्टरी ऑफ मिलीटरी ट्रान्झेक्शन्स ऑफ ब्रिटीश नेशन इन इंडोस्तान' हें पुस्तक गाजलें. हाका जाणकारानीं ब्रिटिशांच्या भारतांतल्या सुर्वेच्या लश्करी जैताचें 'गद्य महाकाव्य' अशें म्हळां.

सर विल्यम जोन्स (१७४६-१७९४) हाची १७८३ त सर्वोच्च न्यायालयाचो न्यायाधीश म्हूण जाल्ली नेमणूक अँग्लो इंडियन साहित्याविशींच न्हय, तर उदेंत-अस्तंत संबंदाचे नदरेंतल्यानय भोव म्हत्वाची थारली. ह्या व्हड संस्कृत पंडितान एशियाटिक सोसायटी ऑफ बंगालची थापणूक करून कालिदासाचें 'शाकुंतल' इंग्लेज भाशेंत अणकारित केलें. भारतीय पुराणांतल्या बऱ्याच साहित्याचो इंग्लीश भाशेंत अणकार करपी तो पयलो अँग्लो इंडियन कवी थारलो.

१९ व्या शतमानाचे सुर्वेक अँग्लो इंडियन साहित्यांत भर घालपी म्हत्वाच्या बरोवप्यांमदीं जॉन लिडेन (१७७५-१८११), ह्यू बॉय्ड, फ्रॅन्कोटर्क रेमण्ड, हेन्री टॉमस कोलब्रूक, जेम्स टॉड, मार्क विल्क्स, एलिझा फे, मेरी मार्था शेरवूड हांचो आस्पाव जाता.

१८५७ तल्या स्वतंत्रताय लढ्याउपरांतची तीन वा चार दशकां भारतांत इंग्लीश भाशेचो फुडार थारावपी आशिल्लीं. ह्याच काळांत मॅकॉलेच्या शिक्षणपध्दतीचे बुन्यादीचेर (१८३५) भारतांतल्या उंचेल्या पावंड्यावयल्या शिक्षणाखातीर इंग्लीश भाशेचें माध्यम वापरपाचें थारलें. हाचो परिणाम जावन भारतीय लोक फकत माध्यमापुरत्योच न्हय तर आपल्यो कल्पना आनी भावना उक्तावंक इंग्लीश भाशेचो वापर करूंक लागले. हाचे उपरांत इंग्लीशींतल्यान सर्जनशील अभिव्यक्ती करूंक भारतीयांक कळाव लागलो ना. हातूंतल्यान इंडो-अँग्लियन वा इंग्लीशींतल्यान बरयिल्लें भारतीय साहित्य ही स्वतंत्र आनी नवी साहित्य परंपरा निर्माण जाली.

अँग्लो-इंडियन साहित्य एकुणिसाव्या शतमानांत बरेंच वाडलें. ह्या वेळार साहित्याच्या मळार मेजर डेव्हिड लेस्टर रिचर्डसन सारक्या टीकाकाराचो आनी जेम्स ग्रँट डफ सारक्या इतिहासकाराचो हेरांवांगडा उदय जालो. ह्या काळांत अँग्लो-इंडियन कल्पितकथांचीय निर्मणी जाली. भारतीय जीवितार्चें आनी मनाचें सखोल गिन्यान उक्तावपी विल्यम ब्राउन हॉकली, फिलीप मॅडोज टेलर, विल्यम डेलाफिल्ड आर्नोल्ड, जॉन लँग, अलेक्झांडर आलार्डायस हे कांय नामनेचे बरोवपी जावन गेले. कल्पित कथांवांगडाच अँग्लो इंडियन साहित्यांत बरीच पद्य बरपावळ, काव्य, हास्यकाव्य आनी तरेकवार गद्य साहित्याचीय निर्मणी जाली.

नामनेच्या कविंमदीं विल्यम वॉटरफिल्ड, मेरी लॅस्ली, हेन्री जॉर्ज, सर ॲडविन आर्नोल्ड (१८३२-१९०४) आनी सर आल्फ्रेड कॉमिन ल्याल (१८३५-१९११) हांचो आस्पाव जाता. आर्नोल्ड हाची 'लाइट ऑफ एशिया' ही अंग्लो-इंडियन साहित्यांतली बऱ्यांतली बरी साहित्यकृती म्हूण वळखतात.

अँग्लो-इंडियन साहित्याचो प्रवाह थांबनासतना रुडयार्ड किप्लींग (१८६५-१९३६) आनी ई. एम्. फॉर्स्टर (१८७९-१९७०) हांचे मेरेन चालूच उरलो. ह्या दोगांयचें साहित्य म्हळ्यार अँग्लो-इंडियन साहित्यांतली बऱ्यांतली बरी प्रातिनिधीक अभिव्यक्ती अशें मानतात. ई. एम्. फॉर्स्टर हाची 'अ पॅसेज टू इंडिया' ही साहित्यकृती म्हळ्यार अँग्लो-इंडियन साहित्याचें बऱ्यांतलें बरें उदाहरण आनी आर्विल्या

भारताच्या घुस्पागोंदळाचें समाजीक, वास्तव चित्रण करपी दर्जेदार कादंबरी अशें जाणकारांचें मत आसा.

स्वतंत्रतायेउपरांत काळाचे गरजेप्रमाण अँग्लो-इंडियन साहित्य वाड्.मय शकलेंना, तरी पूण ब्रिटीश काळांतल्या भारताचें चित्रण करपी पुस्तकां पेनलस्कॉट आनी एम्. एम्. केय ह्या लेखकांनी बरयल्यांत.

- डॉ. विश्वास कानडे

## अँडरसन, कार्ल डेव्हिड:

(जल्मः ३ सप्टेंबर, १९०५, न्यूयॉर्क.) नामनेचो अमेरिकन भौतिकी शास्त्रज्ञ. कॅलिफोर्नीया इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजींत शिकप करून १९२७ त बी. एस्. आनी १९३० त पीएच्. डी. ह्यो पदव्यो ताणें मेळयल्यो. १९३० सावन तो कॅलिफोर्नीया विद्यापीठाचो सदस्य आसा. १९३९ त ताची प्राध्यापक म्हूण नेमणूक जाली.

१९३० त ताणें विश्वकिरणांक (cosmic rays) लागून वातावरणांत निर्माण जावपी आयनीकारक कणांचो तीव्र चुंबकीय क्षेत्रांत दवरिल्ल्या बाष्पकोठीवरवीं (magnetic cloud chamber) अभ्यास करपाक सुरवात केली. आयनकारक कणांक लागून बाष्पकोठींत तयार जाल्ल्या मार्गांचें चुंबकीय क्षेत्राक लागून जावपी विचलनाचे (deflection) दिशेचें निरीक्षण करून अँडरसन हाणें त्या कणावयल्या विद्युत् भाराचें चिन्न थारायलें. १९३२ च्या सुमाराक ताका विश्व किरणांत सद्च्या electron बगर धन विद्युत् भारित इलेक्ट्रॉन (positively charged electron) आसतात, हाचो निर्णायक पुरावो मेळ्ळो. ह्या नव्या कणाक, ताणें positron अशें नांव दिलें.

१९३६ त विश्वकिरणांविशींचें संशोधन करीत आसतना ताणें आनी नेडरमेयर हाणें मेसन (meson) ह्या इलेक्ट्रॉन (electron) परस, २०७ पटींनी मोटो आशिल्ल्या मूलकणाचो सोद लायलो, पोझिट्रॉन (positron) आनी मेसन हे अल्पायुषी कण आसात. positron आनी electron हांचे मजगतीं विक्रिया जातकच गॅमा किरणांच्या स्वरुपांत आनी आइन्स्टाइन हाच्या नामनेच्या $E=mc^2$ त ह्या समीकरणाचेर आदारीत तितल्याच ताकदीची ऊर्जा गॅमा-किरणांच्या (Gamma Rays) जोडयांच्या रुपांत प्रगट जाता. धन विद्युत् भारीत (positively charged) मेसन फोडल्यार (positrons आनी neutrinos मेळटात तशेंच ऋण विद्युत् भारीत (negatively charged) Meson फोडल्यार electrons आनी Neutrinos मेळटात. पॉझिट्रॉनच्या म्हत्वाच्या सोदाखातीर अँडरसन हाका १९३६त व्हिक्टर हेस ह्या विश्वकिरणांविशीं मुळावें संशोधन केल्ल्या दुसऱ्या एका शास्त्रज्ञावांगडा भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

## अँड्रिक, आयव्हो:

(जल्मः १० ऑक्टोबर १८९२ ट्रॅवनिक, युगोस्लाविया; मरणः १३ मार्च १९७५ बेलग्रेड).

कथा आनी कादंबऱ्यो बरोवपी नामनेचो लेखक. ताचें शिकप झाग्रेब, क्रॅको, व्हिएन्ना आनी ग्रात्स हांगा जालें. दुसऱ्या म्हाझुजावेळार ताणें बर्लिनांत युगोस्लाव्ह राजदूत म्हूण काम पळेलें. युगोस्लाव्हचो राजदूत म्हूण ताणें आनीकूय कांय देसांनी काम केलें.

३७ वर्सांच्या पिरायेचेर ताणें बरयल्लें पद्यात्मक पुस्तक 'Ex Ponto' (1919) हाका लागून ताका उपाट नामना मेळ्ळी. युगोस्लाव्ह राश्ट्राखातीर झगडिल्ल्यान अँड्रिक हाका ऑस्ट्रो-हंगेरियन सत्ताधिकाऱ्यांनी बंदखणीत घालो, तेन्ना ताणें ही रचणूक केली. ते उपरांत ताणें 'Nemiri' (Turbulences) हें पुस्तक बरयलें. १९२४ त, ताणें 'Pripovetke' (stories) ह्या माथाळ्याखाल कथांचे ३ खंड उजवाडायले. ही साहित्यकृती युगोस्लाव्हच्या साहित्यीक वर्तुळांत तोखणायेक पात्र थारली. 'Travinicka hronika' (1945, Bosnian story, 1959), 'Na Drini cuprija' (1945, The Bridge on the Drina, 1959) आनी 'Gospodjica' (The Woman from Sarajevo, 1945) ह्या ताच्या पुस्तकांत बोस्नियाचो इतिहास आयला. आपल्या राश्ट्राच्या इतिहासांतल्यान पूर्विल्ल्या काळांतल्या घडणुकांचेर आदारीत मानवी दैवाची कथा बेस बरी बरयल्ल्यान अँड्रिक हाका १९६१त साहित्याखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो.

- को. वि. सं. मं.

## अँडोरा:

पिरेनीज पर्वताचे दक्षिण देंवतेंवयलें, यूरोपांतलें एक ल्हान राज्य. विस्तार १° ३५′ ते १° ४८′ उदेंत आनी ४२°२६′ ते ४२°३९′ उत्तर लोकसंख्या ४६,००० (१९८६). हाचे उत्तरेवटेन फ्रांसचे आर्येझ आनी पिरेनीज ओरिएंटल्स प्रांत आनी दक्षिणेक स्पेनचो लेरिदा प्रांत आसा. अँडोरा ला व्हेल्य ही हांगाची राजधानी.

**भूंयवर्णन, हवामान आनी वनस्पतः** हो देश दोंगर आनी देगणांनी भरला. मळाचो वाठार साप उणो. समुद्रथरासावन देशाची उंचाय ९०० मी. ते ३,००० मी. आसा. हांगाचो शियाळो खर आसता. गिमांतय चडशेकडेन हवामान शीतळ आसता. वास्वेल, भालू, कोलो, सोसो ही मोनजात; गिदां, गरुड आदी सुकणीं जाल्यार ओक, अक्रोड, चेस्टनट, ऑलिव्ह हे रुख हांगा सांपडटात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्थाः** शार्लमेन हाका मूर लोकांआड पालव दिल्ल्यान ताणें अँडोराचे स्वतंत्रतायेक मान्यताय दिली अशें इतिहासकार मानतात. १२७८ त फ्रांस आनी स्पेन हांगाच्या अधिकारीवर्गामदीं कबलात जावन अँडोराचें प्रशासन दोगांयच्या प्रतिनिधींवरवीं चलूंक लागलें. १९७६ त हांगा पयल्या राजकी पक्षाची थापणूक जाली.

**अर्थीक स्थितीः** शेतवड, नुस्तेमारी हे मुखेल उद्येग. रानांतल्या रुखांपसूनय बरेंच उत्पन्न मेळटा. तंबाखू, राय, बार्ली हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. ऑलिव्ह आनी द्राक्षांचें उत्पादनय जाता. मेंढरां-गोरवां पोसपाचोय उद्येग चलता. पर्यटनांतल्यान ह्या देशाक बरेंच उत्पन्न मेळटा.

**समाजीक स्थितीः** अँडोरांत येरादारी आनी संचारण वेवस्था सोपी अशी ना. फ्रांस आनी स्पेन ह्या देशांकडेन रस्त्याच्या मार्गावयल्यान येरादारी चलता. पूण फ्रांसाकडेन जोडिल्लो रस्तो तीन चार म्हयन्यां-



खातीर बर्फाक लागून बंद आसता. स्पेन आनी फ्रांस ह्या दोनूय देशांचें चलन हांगा चलता.

हांगाचे लोक कॅटेलन वंशाचे आनी सुमार ९५% रोमन कॅथलिक आसात. कॅटेलन ही हांगाची राज्यभास. शिक्षणाचें प्रमाण सुमार १००% आसा. मुखेल म्हत्वाचीं थळां म्हळ्यार राजधानी ॲंडोरा ला व्हेल्य, लेस ॲस्काल्देश आनी ॲनकॅम्प.

\- कों. वि. सं. मं.

## ॲक्सलरॉड, ज्यूल्यस: (जल्म: ३० मे १९१२, न्यूयॉर्क).

नामनेचो शास्त्रज्ञ. न्यूयॉर्क हांगाच्या सिटी कॉलेज आनी विद्यापीठांतल्यान शिक्षण घेतकच १५ वर्सां जीवरसायनशास्त्रज्ञ म्हूण ताणें काम केलें. वैजकी शिक्षण घेवपाची आवड आसून लेगीत अर्थीक परिस्थितीक लागून ताची ही इत्सा पुराय जाली ना. न्यूयॉर्क युनिव्हर्सिटी मॅडिकल स्कूलाच्या Department of Bacteriology ह्या विभागांत प्रयोगशाळा सहाय्यक म्हूण ताणें काम केलें. १९४५ च्या सुमाराक अमोनियाची बाटली फुटून जाल्ल्या अपघातांत तो एका दोळ्यान कुड्डो जालो. १९४६ त, न्यूयॉर्कच्या गोल्डवॉटर मेमोरियल हॉस्पिटलांत संशोधक म्हूण ताची नेमणूक जाली. हांगा डॉ. बर्नार्ड ब्रूडी हाच्या हातासकयल काम करतना तो संशोधन कार्यांत फिशाल जालो. १९४९ त बेथेस्डा हांगाचे काळजाविकार संस्थेंत ताची नेमणूक जाली आनी १९५५ त तो थंयचे 'नॅशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ मेंटल हेल्थ' हे संस्थेच्या वखदी-विज्ञानाचो मुखेल जालो. १९५५ त ताणें जॉर्ज वॉशिंग्टन विद्यापीठाची पीएच्. डी. मेळयली.

तंत्रिका कोशिकांतल्यान (Nerve cell) आवेग वतकच तातूंतल्यान Noradreline हो पदार्थ निष्क्रिय कसो जाता, हाचेविशींचे यंत्रणेविशीं ताणें मोलादीक संशोधन केलें. हे यंत्रणेचेर हेर वखदी द्रव्यांचो कितें परिणाम जाता, हाचोय ताणें अभ्यास केलो; ताका लागून कांय मनोविकृती बऱ्यो जावपाचो संभव निर्माण जाला; Amphetamines, ephedrine, adrenergic blocking agents आनी घुंवळीचीं वखदां हांच्या चयापचय (Metabolic) क्रियेविशीं ताणें खोलायेन संशोधन केलें. १९५३ त, वखदांची चयापचय-क्रिया घडोवन हाडपाक वावुरपी Liver Microsome हातूंतल्या enzyme चो सोद लायलो. डॉ. स्ट्रॉमिंजर आनी डॉ. काल्कर हांच्या वांगडा ताणें Uridinediphosphate glucose हाचें रुपांतर Uridinediphosphate glucuronic acid हातूंत करपी enzymes चो सोद लायलो. १९५७ त catecholamines च्या संशोधनांत ताणें लक्ष घालें.

तंत्रिका अग्रांतले द्रव प्रक्षेपक (Humoral transmitters in the nerve terminals) आनी तांचो संचय, मोचन आनी निष्क्रियता (storage, release and inactivation) हाच्या यंत्रणेविशींच्या संशोधनाक लागून ताका १९७० चो वैजकी विशयाचो नोबेल पुरस्कार उल्फ फॉन ऑयलर आनी सर बर्नार्ड काट्झ हांच्यावांगडा वांटून मेळ्ळो.

\- कों. वि. सं. मं.

## ॲगमार्क: (AGMARK - Agricultural Marketing)

ॲगमार्क

शेतमाल, फळां आनी प्राणिज जिनसांचो पांवडो आनी विशुध्दता हांच्याखातीर वापरतात तें चिन्ह. भारत सरकारान वयर सांगिल्ल्या जिनसांचो पांवडो आनी उच्च प्रत हांचेखातीर 'शेतमाल (ग्रेडिंग ॲंड मार्केटिंग) कायदो' १९३७ त लागू केलो. ह्या कायद्यावरवीं ज्या वस्तूंचो, जिनसांचो दर्जो आनी प्रतवारी थारायतात, तांचेर 'ॲगमार्क' (AGMARK) हें चिन्ह लायतात. लेबलाचेर अनुक्रमांक, सीलबंद करतल्याचें नांव, माल भरला ती तारीख आनी ठिकाण हे निर्देश आशिल्ल्यान गिरायकाक लेबलावयल्या पांवड्याप्रमाण भितल्लो माल पारखप सोपें जाता.

ॲगमार्क लेबलाफाटल्यान व्हडली यंत्रणां आसता. तातूंत सरकारान खास नियुक्त केल्ले वैज्ञानीक आनी तंत्रज्ञ आसतात. हें लेबल फकत अधिकृत संस्थांकूच लावपाक मेळटा. तेखातीर तांकां प्रयोगशाळा आनी सरकारी रसायनशास्त्रज्ञ दवरचे पडटात आनी भारत सरकारच्या शेतमाल-वेपार विभागाच्या सल्लागारांकडसून अधिकारपत्रां मेळोवचीं पडटात. हे सल्लागार असलीं अधिकारपत्रां त्या त्या कारखान्यांची आनी प्रयोगशाळेची तपासणी करून कारखानदारांक दितात. मालाचो पांवडो थारायतकच मोट्या प्रमाणाचेर माल तयार करप चालू आसतना गुणवत्ता नियंत्रण (Quality Control) जतनायेन पाळटात. कारखानदार, घाऊक आनी किरकोळ व्यापारी हांच्याकडल्यान नमुनो म्हूण मेळिल्ले जिनस सीलबंद करून तपासपाखातीर नियंत्रित प्रयोगशाळांकडेन धाडटात. थंय तांची सविस्तर रसायनीक विस्कटावणी जाता. पांवडो थारावन दिल्लो जिनस तापसणेंत कमी प्रतीचो आसा अशें मेळ्ळ्यार ताच्या वयलीं 'ॲगमार्क' लेबलां काडून उडयतात.

'ॲगमार्क' चो सुदारीत कायदो १९४३ त आयलो. ताचो आवांठ वाडयलो आनी तातूंत फुडल्या वस्तूंचो आस्पाव केलो: भाजीपालो, फळां, चामडी, दुदाचे जिनस, तंबाखू, कॉफी, डबोबंद फळां, तीळ, तेल, कापूस, तांदूळ, गंव, सनताग (सॅन हेम्प), गोड, लोकर, रेझीन, टर्पेंटायन, सुपारी.

निर्यातीच्या मालाचेर 'ॲगमार्क' लेबल लावपाची सक्ती १९४२ त केली. तेन्नासावन वस्तूंची प्रतवारी आनी संवेश्टन (packing) करपाच्या म्हत्वाच्या सगळ्या केंद्रांचेर निरीक्षक अधिकारी दवरतात. वस्तूंचें संवेश्टन, वर्गवारी आनी पांवडो थारावचेआदीं ह्यो वस्तू ते तपासतात.

तंबाखूखातीर गुंतूर, राठ केंसांखातीर कानपूर, सनतागाखातीर कलकत्ता, वासाच्या तेलाखातीर कोचीन, कानपूर, लोकरीखातीर मुंबय आनी राजकोट ह्या शारांत आनी हेरकडे १६ प्रयोगशाळा उबारल्यात. केंद्रीय प्रयोगशाळा नागपूर हांगा आसा. मिरयां, वेलची, काजू, आलें, वासाचें तेल, लाख आनी तेफळां ह्या निर्यातीच्या ३८ वस्तूंची सक्तीन प्रतवारी करतात.

\- कों. वि. सं. मं.

## ॲग्नन, शॅम्युएल योसेफ: (जल्म: १७ जुलय १८८८, बुकझॅक- गॅलिसिया-पोलंड; मरण: १७ फेब्रुवारी १९७०, जेरूसलेम).

सगळ्यांत व्हड आर्विल्लो हिब्रू कादंबरीकार आनी कथाकार. पोलीश ज्यू वेपारी आनी पंडितांच्या एका घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताणें सुरवातीक (१९०३-०६) यीडीश आनी हिब्रू भाशेंत आपल्या स्वताच्या नांवान आनी हेर कांय टोपण नांवांनी बरोवपाक सुरवात केली. १९०७ त पॅलेस्टायनांत रावपाक वतकच ताणें 'ॲग्नन' ह्या आडनांवान बरोवपाक सुरवात केली आनी आपलीं नाटकां, दिश्टाव्याच्या रुपांतले बरोवप आनी कथा-कादंबरी हांचेखातीर पोरनी बायबलासारकी शैली आपणायली. 'Agunut' (1908, Forsaken Wives) ही पॅलेस्टायन कथा बरोवन ताणें आपल्या साहित्यीक जिविताची सुरवात केली. ताची पयली व्हडली कादंबरी म्हळ्यार Hallkhnasat Kallah (२ खंड, १९२२, The Bridal Canopy, १९५७). हे कादंबरींत झारीस्ट आनी ऑस्ट्रो-हंगेरीयन राजेशाहींतल्या घेटोंत रावपी भोंवडेकार ज्यूंचें वर्णन केलां. Oreach Nata Lalun (1938, A Guest for the Night, 1968) हे ताचे दुसरे कादंबरींत पयल्या म्हाझुजाउपरांत युरोपियन ज्यूंचें नीतीधैर्य कशें खचलें हाचें वर्णन आयलां. ताची तिसरी आनी सगळ्यांत व्हड कादंबरी, Tmol Shilshom (1945, The Day Before Yesterday) हातूंत अस्तंत्या ज्यूंचें आनी तांचें इस्राएलच्या मानसिक, नैतिक आनी वेव्हारीक वातावरणावांगडा जावपी संवकळीचें वर्णन आयलां. ताणें १९५८ त आत्मचरित्रपर कादंबरी आनी खंडरुपांत कितल्योशोच कथा बरयल्यो. १९५८ त जेरूसलेम विद्यापीठान ताचो भोवमान करून ताका डॉक्टरेट दिली. ज्यू लोकांचे जीणेचें अभ्यासपूर्ण वर्णन करपाच्या ताच्या व्हड साहित्यिक वावराखातीर ताका १९६६ तलो साहित्याखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. हो

भोवमानाचो पुरस्कार मेळोवपी ॲग्नन हो पयलोच हिब्रू लेखक.

- कों. वि. सं. मं.

**ॲटलासः** नकाशांच्या झेल्याक 'ॲटलास' अशें म्हण्टात. हातूंत दिल्ल्या सगळ्या नकाशांतल्यो सांकेतिक कुरवो आनी भास एकेच तरेची आसता. तंत्रीक विशयांतल्यो रेखाकृती आनी तेविशींची आंकडेवारी दिवपी पुस्तकांकूय 'ॲटलास' अशें म्हण्टात. पृथ्वीचो गोल आपल्या खांदार घेवपी ग्रीक पुराणपुरुश 'ॲटलास' हाची आकृती 'मर्केटर' हाणें आपल्या नकाशा-झेल्याचेर १६ व्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत पयलेच खेप दाखयली. ते उपरांतच्या कितल्याशाच नकाशा-झेल्यांचेर हें रेखाचित्र दाखयलां. अशे तरेन ल्हव-ल्हव करून नकाशा-झेल्याक 'ॲटलास' हें नांव पडलें.

सगळ्यांत पूर्विल्लो ॲटलास म्हळ्यार टॉलेमीचो २८ पानांचो ॲटलास. ताचे उपरांत मध्य युगाच्या काळांत खास अशे ॲटलास तयार जालेनात. फुडें १५ व्या शतमानांत जेन्ना टॉलेमीच्या 'जिऑग्रॅफीया' ह्या ॲटलासाची पर्थून आवृत्ती आयली तेन्ना शास्त्रज्ञांनी नकाशे करपाक सुरवात केली. १५७० त 'ऑर्तीलिअस' हाणें 'थिएट्रम ऑर्बिस टेरारम' हो ॲटलास तयार केलो. तेन्नासावन आर्विल्ल्या पध्दतीच्या ॲटलास युगाक सुरवात जाली अशें म्हण्टात. १६ व्या शतमानांतलो ॲटलासचो दुसरो बरो नमुनो म्हळ्यार इटालियन नकाशाशास्त्रज्ञांनी तयार केल्लो 'ला फ्रेरी' हो ॲटलास. १७ वें शतमान हें ॲटलास निर्मणेच्या काळांतलो भांगरा-काळ अशें मानतात. ह्या काळखंडांत कोरोनेलीसारक्या इटालियन शास्त्रज्ञांचे आनी मर्केटर ब्लू, हॉंडियस ह्या नकाशाशास्त्रज्ञांचे ॲटलास उजवाडाक आयले. हे सगळे ॲटलास सोबीत चामड्याचे बांदावळीचे आनी व्हड आकाराचे आशिल्ले. १८ व्या शतमानांत तयार जाल्ल्या फ्रेंच ॲटलासांत म्हायती चड आशिल्ली. ह्या शतमानाचे अखेरेक इंग्लीश ॲटलास उजवाडाक आयले. ह्याच काळांत होमान घराण्यांतल्या शास्त्रज्ञांनी तयार केल्ले जर्मन ॲटलास, तातूंतलो तपशील, चित्रां, टीपो आनी ल्हान-ल्हान नकाशे हांकां लागून खूब लोकप्रिय जाले. उपरांतच्या काळांत नकाशाशास्त्रांत बरीच उदरगत जाली. १९ व्या शतमानांत वेगवेगळ्या देशांच्या सरकारांवरवीं 'ॲटलास' उजवाडाक येवपाक लागले.

ॲटलासाचे दोन प्रकार आसात. १. जगाच्या विंगड विंगड नकाशांचो झेलो २. प्रादेशिक नकाशांचो झेलो. दोनूय प्रकारच्या नकाशांत गांवांच्यो आनी शारांच्यो सुवातो, प्रदेशांचें प्राकृतिक स्वरूप तशेंच राजकी आनी शासकीय विभाग दाखयल्ले आसतात. शिमो, हवामान, अर्थीक उदरगत, सैमीक संपत्ती, लोकसंख्या हे सारकी हेर म्हायती नकाशांत दिल्ली आसता. नकाशांत वेगवेगळ्या तरेच्यो कुरवो तरेकवार रंगांनी वा एकाच रंगाच्या कितल्याशाच छटांनी आनी बरपावळीच्या पध्दतींनी दाखयतात.

आर्विल्ल्या काळांत सगळ्यांत चड उपेगांत येवपी आनी सुमार २ ते ५ लाख नांवांच्यो नोंदी आस्पावतात अशा ॲटलासांत, आंद्रे हाचो 'आल्जीमीनार हॅंड ॲटलास', स्टीलर हाचो 'हॅंड ॲटलास', इटालीयन प्रवास-संघटनेचो आंतरराश्ट्रीय ॲटलास ५ खंडांत उजवाडाक आयिल्लो लंडन टाईम्सचो 'संवसारीक ॲटलास' ह्या ॲटलासांचो आस्पाव जाता. 'The Encyclopaedia Britannica World Atlas' लेगीत खूब लोकप्रिय आसा. आर्विल्ल्या ॲटलासांचें खाशेलेंपण म्हळ्यार भुगोलीक सुवातांची तांच्या नांवांच्या उच्चारांसयत दिल्ली वळेरी. तांच्यावांगडा तांच्या अक्षांश-रेखांशांचोय उल्लेख केल्लो आसता. कांय ॲटलासांत गिरावळी, पृथ्वीचो जल्म, गिराणां, भरती-सुकती, पृथ्वीवेल्या सैमीक संपत्तीचे वेगवेगळे उपेग, भाशा, मनीसवंश आनी वेगवेगळीं उत्पादनां हांची साबार माहिती नकाशे आनी आकृती हांचेसयत दिल्ली आसता.

ह्या शेंकड्यांत ३५ परस चड देशांचे राश्ट्रीय ॲटलास उजवाडाक आयल्यात. तातूंत त्या त्या देशाचे भुगोलीक, अर्थीक, भाशीक, नकाशे आंकडेवार म्हायतीसयत दिल्यात. भारतांतल्या मुखेल ॲटलासांत, भारताचो राश्ट्रीय ॲटलास, हवामानाचो ॲटलास, शेतीविशींचो ॲटलास, म्हैसूरचो ॲटलास ह्या ॲटलासांचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**ॲडम्स, जेनः** (जल्मः ६ सप्टेंबर, १८६०, सेडरवाईल -इलिनॉय्स; मरणः २१ मे १९३५, शिकागो).

एक नामनेची शांतताय पुरस्कर्ती समाजसुधारक. अमेरिकेचे निकॉलस मरे बटलर हाच्यावांगडा १९३१ तल्या शांततायेखातीर दिल्ल्या नोबेल पुरस्काराची सहविजेती. उत्तर अमेरिकेची पयली समाजीक वसाहत 'हल हाऊस, शिकागो' हाची तिणे थापणूक केली. १८८१ त रॉकफोर्ड कॉलेजांतसून पदवी घेतकच तिणे फिलाडेल्फीयाच्या बायलांच्या वैजकी कॉलेजांत प्रवेश केलो. पूण तिची भलायकी इबाडिल्ल्या कारणान तिका हें शिकप सोडून दिवचें पडलें. ते उपरांत ती युरोपाचे भोंवडेर गेली. हे भोंवडेर आसतनाच तिणें लंडनच्या व्हाईटचॅपल जिल्ह्यांतल्या टॉयनबी हॉल वसाहत घराक भेट दिली. ही भोंवडी सोंपून अमेरिकेक परत येतकच ती आनी तिची भोंवडे वेळावयली वांगडी ॲलन गेट्स स्टार हांणी टॉयनबी हॉलासारकीच कामगार वस्ती आशिल्ल्या शिकागोंतल्या एका जिल्ह्यांत 'हल हावज' उबें केलें. जायते नामनेचे समाजसुधारक हल हावजांत रावपाक आयले. कांय जाणांनी वेपार-धंदो, कला हांचेवरवीं आपली उपजिविका चलोवपावांगडाच मिस ॲडम्स हिच्या वसाहत थापणुकेच्या वावरांत मोलादीक हातभार लायलो.

कामगारांच्या आनी खास करून बायल-कामगारांच्या न्याय्य हक्कांखातीर ती वावुरली. १९१०त, राश्ट्रीय समाजीक वावरा परिशदेची पयली बायल अध्यक्ष जाली. १९१२ त, तिणें पुरोगामी पक्षाच्या अध्यक्षीय वेंचणुकांच्या प्रचार कार्यांत वांटो घेवन थिओडोर रूझवेल्ट हाका तेंको दिलो. १९१५ त हेग हांगा आंतरराश्ट्रीय बायलांचे कॉंग्रेसीची ती चेअरपर्सन जाली. रोखडेंच तिच्या हातासकयल बायलांच्या आंतरराश्ट्रीय शांतताय आनी स्वतंत्रतायेच्या लिगाची थापणूक जाली.

तिणे बरयल्लीं पुस्तकां अशीं: Democracy and Social Ethics (1902), Newer Ideals of Peace (1907), Twenty Years at Hull House (1910), आनी The Second Twenty Years at Hull House (1930) .

- कों. वि. सं. मं.

**ॲड्रियान, एडगर डग्लसः** (जल्मः ३० नोव्हेंबर १८८९, लंडन; मरणः ४ ऑगस्ट १९७७, लंडन).

ब्रिटीश शरीरक्रियावैज्ञानिक.

१९१५ त ताणें ट्रिनिटी कॉलेज, केंब्रिज हातूंतल्यान वैजकी पदवी मेळयली. पयल्या म्हाझुजांत वैजकी सेवा करतकच ताणें आपलें सगळें कार्य ट्रिनिटी कॉलेज, केंब्रिज हांगाच केलें. १९२९-३७ ह्या काळांत रॉयल सोसायटींत फाउलरटन संशोधन प्राध्यापक आनी १९४७-५१ ह्या काळांत केंब्रिजांत शरीरक्रियाविज्ञानाचो प्राध्यापक. १९५१ त ट्रिनिटी कॉलेजचो मुखेल.

ताचें मुखेल संशोधन 'तंत्रिका (nerve) संवेदना आनी तंत्रिका कार्याची यंत्रणा' ह्या विशयांवेलें आसा. संवेदना तंत्रिका मार्गान वता आसतना तिचे विद्युत् स्थितींत फरक पडटा आनी ताचेवेल्यान तंत्रिकामार्गान वचपी संवेदना आनी प्रेरणा हांचो खास अभ्यास करुं येता, हें ताणें सिध्द केलें. ह्याच संशोधनाखातीर ताका १९३२ तलो शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी ह्या विशयांतलो नोबेल पुरस्कार सर चार्ल्स स्कॉट शेरिंग्टन ह्या आनीक एका ब्रिटिश संशोधका वांगडा वांटून मेळ्ळो. एकोड्या संवेदी पोंतावयलो आनी एकोड्या प्रेरक तंत्रिका तंतुचे आवेग मेजून ताणें संवेदना आनी स्नायू नियमनाची यंत्रणा हाचो खोलायेन अभ्यास केलो. ताणें १९३४ सावन मेंदूतल्यान व्हांवपी विजेविशीं संशोधन केलें. ताका लागून अपस्मार आनी मेंदूचो अर्बुद (Brain Tumour) ह्या रोगांविशीचें फुडलें संशोधन करप सोपें जालें. १९४२ त Order of Merit ही उच्च पदवी ताका फाव जाली. १९५०त तो

रॉयल सोसायटीचो अध्यक्ष जालो (१९५०-५५). १९५५ त ताका 'बॅरन' हो भोवमान फाव जालो. ताणें बरयल्लीं पुस्तकां अशीं: The Basis of Sensation (1927), The Mechanism of Nervous Action (1932) आनी The Physical Background of Perception (1947).

- कों- वि. सं. मं.

**ॲन्फिन्सन, ख्रिश्चन बी:** (जल्मः २६ मार्च १९१६, मोनासीन-पेन्सिल्वानिया).

नामनेचो अमेरिकन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ताणें १९४३ त हार्वर्ड विद्यापीठाची पीएच्.डी. पदवी मेळयली आनी ते उपरांत पेन्सिल्वानिया आनी हार्वर्ड विद्यापीठांत तशेंच स्टॉकहोमच्या नोबेल इन्स्टिट्यूट हातूंत अध्यापनाचें आनी संशोधनाचें काम केलें. १९५० त ताणें अमेरिकेच्या 'नॅशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ हेल्थ' हातूंत नोकरी धरली.

एंझायमची (enzymes) रचना आनी हेर प्रथिनां (proteins) हांचें तांच्या शरीरक्रियात्मक वावरालागीं घडून येवपी अनुयोजन (adaptation) हाचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. प्रथिनांची रेणवीय रचणूक (molecular structure) आनी तांचें जैव कार्य (biological function) हांच्यामदलो संबंद दाखोवपाचें संशोधन कार्य ताणें केलें. १९५९ त ताणें The Molecular Basis of Evolution हें पुस्तक बरयलें. Ribonuclease आनी खास करून जैव रुपान क्रियाशील आशिल्लें संरुपण (confomation) हांचेमदलो संयोग दाखोवपाखातीर ताणें केल्ल्या मोलादीक संशोधनाखातीर ताका १९७२ त रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार स्टॅनफर्ड मूर आनी विलीयम स्टीन ह्या शास्त्रज्ञांवांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**ॲपलटन, सर एडवर्ट विक्टर:** (जल्मः ६ सप्टेंबर १८९२, ब्रॅडफर्ड- यॉर्कशायर; मरणः २१ एप्रिल १९६५, एडिंबर्ग).

नामनेचो इंग्लिश भौतिकशास्त्रज्ञ. ताचें शिकप केंब्रिज हांगाच्या सेंट जॉन्स कॉलेजांत जालें. पूण पयल्या म्हाझुजांत सैन्यांत भरती जावपाखातीर ताका शिकप अर्दार सोडचें पडलें. झूजकाळांत सिग्नल ऑफिसर म्हूण काम करता आसतना ताका रेडिओविशीं आवड तयार जाली आनी झुजाउपरांत केंब्रिजाक परत येतकच ताणें ह्या विशयाचो अभ्यास सुरू केलो. १९२०त कॅव्हेंडिश प्रयोगशाळेंत तो प्रायोगिक भौतिकीचो साहाय्यक निर्देशक आनी उपरांत १९२२ त ट्रिनिटी कॉलेजांत साहाय्यक प्राध्यापक आशिल्लो. १९२४-३६ मेरेन लंडन विद्यापीठांत आनी ते उपरांत केंब्रिज विद्यापीठांत तो भौतिकीच्या प्राध्यापकपदाचेर आशिल्लो.

वातावरणांतल्या केन्ली- हेवीसायड (Canley-Heavyside) थराचें अस्तित्त्व ताणें प्रायोगिक रितीन दाखोवन दिलें आनी ताची उंचाय मेजली. ह्या थराच्याय वयर आनी जमनीपसून २३० किमी. उंचायेचेर धर्तरेभोंवतणी रेडिओ लघुतरंग परावर्तित करपी आनीक एक थर ताणें सोदून काडलो. ह्या थराक आतां 'ॲपलटन थर' अशें नांव पडलां. अशेच कितलेशेच थर मेळून 'आयनांबर' (Ionosphere) तयार जालां, अशें ताणें प्रयोगावरवीं दाखोवन दिलें. ताच्या ह्या सोदाक लागून दीर्घकालीन रेडिओ संपर्क करप शक्य जालें आनी रडाराची (Radar) फुडली उदरगत करप सोंपें जालें. विद्युत् चुंबकीय तरंगांचें प्रसारण (electro-magnetic waves propagation) आनी आयनांबराचीं (ionosphere) लक्षणां हातूंत ताणें केल्ल्या संशोधनाक लागून ताका आंतरराश्ट्रीय नामना मेळ्ळी. भौतिकशास्त्रांत ताणें केल्ल्या वयल्या वातावरणांतल्या, खास करून 'ॲपलटन' थराच्या सोदाखातीर ताका १९४७ चो भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो.

ताका रॉयल सोसायटीचें १९२३ त सदस्यत्व आनी १९४१ त 'नाइट' हो किताब मेळ्ळो. अमेरिकन इन्स्टिट्यूट ऑफ रेडिओ एंजिनियर्सचें 'मॉरिस लीपमान इनाम' (१९३९) आनी 'इन्स्टिट्यूट ऑफ इलेक्ट्रिकल एंजिनियर्सचें फॅराडे मेडल' (१९४६) हे भोवमानूय ताका फाव जाले. १९४९ त तो एंडिंबरो विद्यापीठाचो उपकुलगुरू जालो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या सुर्वेक ब्रिटनच्या शास्त्रीय आनी उद्येगीक संशोधन खात्याचो कायम चिटणीस म्हूण ताणें काम केलें. दूरचित्रवाणी समितीचो सभासद आनी नॅशनल कमिटी ऑफ रेडिओ टेलिग्राफचो तो चिटणीस आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**ॲरिस्टॉटलः** (जल्मः इ.स.प. ३८४, स्टागिरा-थ्रेस प्रांत- ग्रीस; मरणः इ.स.प. ३२२, कॉन्सिस-यूबिया जुंवो-ग्रीस).

एक व्हड ग्रीक तत्त्ववेत्तो. मॅसिडॉनियाचो राजवैज निकॉमाकास हाचो पूत. स्टाजिरा शारांत जल्मल्ल्यान हाका स्टाजिरायट अशेंय म्हण्टात. इ.स.प. सुमार ३६७ वर्सा शिक्षणाखातीर अॅथेन्स हांगाच्या प्लॅटोच्या अकादेमींत पावलो आनी ३४७ त प्लॅटोक मर्ण येयसर थंय रावलो. हांगा ताणें आपलें शिक्षण बरेभशेन घेतलें आनी उपरांत तो ॲटोनिअसचो राजा हर्मियस हाच्या दरबारांत तीन-चार वर्सांखातीर रावलो. ते उपरांत मॅसिडोनियाचो राजा फिलीप हाच्या आपोवण्यावयल्यान राजकुंवर अलेक्झांडर (अलेक्झांडर द ग्रेट) हाचो शिक्षक म्हूण इ.स.प. ३४२ ते ३३५ अशीं सात वर्सां काम केलें. अलेक्झांडर राजा जावन उदेंतेवटेन घुरयो घालूंक भायर सरल्या उपरांत ॲरिस्टॉटल अॅथेन्साक आयलो आनी लायसियम नांवाचें आपलें स्वतंत्र विद्यापीठ निर्मीलें. ह्या विद्यापीठांत ताणें १२-१३ वर्सां शिक्षण दिले आनी विद्यापीठाचो हेर वावरय केलो. शिश्यांवांगडा बागेंत पासयो मारीत शिकवपाचे ताचे पध्दतीक लागून ताच्या पंथाक पेरिपॅटेटिक (पासयो मारपी) पंथ अशें नांव मेळ्ळें. अलेक्झांडरच्या मरणाउपरांत अलेक्झांडराचे राजकी दुस्मान ताका सोंपयतले ह्या भयान तो यूबिया प्रांतांतल्या कॉन्सिस गांवांत गेलो. मरण येयसर तो थंयच रावलो.

**निर्मणीः** ॲरिस्टॉटल हो तर्कशुध्द पध्दतीन तत्त्वगिन्यान बरयतालो. प्लॅटो आनी डेमोक्रीट्स हांच्या तत्त्वगिन्यानांचेर ताणें आपलें तत्त्वगिन्यान आदारिल्लें आनी तांच्या तत्त्वगिन्यांनातलें उणेपण ताणें स्वताच्या तत्त्वगिन्यानांतल्यान भरून काडलें. ताणें शेंकड्यांनी ग्रंथ बरयले. तातूंतले फकत सुमार १-४ आयजमेरेन उरल्यात. चडशी ग्रंथनिर्मणी ताणें लायसियम विद्यापीठांत आसतना केली. ताचें तत्त्वगिन्यान पांच मुखेल विशयांतल्यान विवर्सूंक येता.

**१. तर्कशास्त्र आनी गिन्यानमीमांसा [Logic & Epistemology]:** सत गिन्यान मेळोवच्याखातीर ॲरिस्टॉटल इंद्रिय संवेदन आनी बुध्द ह्या दोनूय गजालींची गरज आसा अशें मानता. विचारांचें उणेपण आसल्यार संवेदना कुड्डी जाता आनी संवेदनाचें उणेपण आसल्यार विचार अपेशी थारतात. गिन्यानाचे प्रक्रियेंत बुध्द आनी अणभव हांकां जाय ती सुवात दिवन ॲरिस्टॉटलान संवेदना आनी संकल्पना हांकां एकठांय हाडल्यांत. कसलीय वस्त जशी आपल्याक दिसता ते पध्दतीन तिचें गिन्यान आनी देवाच्या सर्जनशील मनाक ती जशी दिसता ताचें गिन्यान अशे गिन्यानाचे दोन स्रोत ॲरिस्टॉटलच्या तत्त्वगिन्यानांत दिसतात. संवाक्य (Syllogism) आनी विगमन (Induction) हे ह्या दोन विचार स्रोतांचे प्रतिनिधी जावन आसात.

ॲरिस्टॉटलान तर्कशास्त्राची बुन्याद सगळ्यांत पयलीं घाली. सगळ्यांत पयलीं ताणें तर्कशास्त्राचो शास्त्रशुध्द नियाळ केलो. तर्कशास्त्राचेर ताणें स पुस्तकां बरयलीं. तर्कशास्त्र हें शास्त्रीय संशोधनाचें साधन आसा अशें तो मानतालो. शास्त्रीय सत अपरिहार्य स्वरुपाचें आसता. ॲरिस्टॉटलाच्या मतान शास्त्रीय सत म्हळ्यार 'जें आसा ताच्यापरस जें आनीक वेगळें आसूंक शकना तें' विचार करप म्हळ्यार अनुमान काडप. अनुमानां निश्चेवाच्या स्वरुपाचीं आसतात. तीं भाशेवरवीं मुखार घालतकच तांकां विधानां म्हण्टात. ह्या विधानांचें स्वरुप, तांचे प्रकार, तांचे एकामेकांकडेनचे संबंद होच ॲरिस्टॉटलच्या तर्कशास्त्राचो मुखेल विशय आसा. संवाक्य ह्या अनुमानप्रकाराविशीं सगळ्यांत पयलीं ॲरिस्टॉटलान बरोवन दवरलां. संवाक्यांत साध्य विधान आनी पक्ष विधान ह्या दोन आदार विधानांवयल्यान नव्या निष्कर्षामेरेन येवंक जाता. संवाक्यांत सर्वसादारणपणाकडल्यान खाशेलेपणाकडेन



**ॲरिस्टॉटल**

पावंक जाता. संवाक्यां निमणी कांय मुळाव्या स्वयंसिध्द (Self Evident) सत्यांचेर आदारिल्लीं आसतात. हीं सत्यां भितरल्या प्रश्नेवरवीं समजतात. खरें शास्त्रीय गिन्यान म्हळ्यार अनिवार्य सत्यांची रचणूक आसा आनी कांय सत्यां संवाक्यांवरवीं समजतात जाल्यार कांय भितरल्या प्रश्नेवरवीं होलमतात.

२. **तत्त्वमीमांसा** [Metaphysics]: तत्त्वमीमांसेक ॲरिस्टॉटलान मूळ तत्त्वगिन्यान अशें म्हळां. ॲरिस्टॉटलाची तत्त्वमीमांसा प्लॅटोच्या तत्त्वमीमांसेची सुदारिल्ली आवृत्ती अशें म्हण्टात. ॲरिस्टॉटलान तत्त्वमीमांसेच्या मळार द्रव्य आनी आकार सिध्दांत मुखार दवरलो. ह्या सिध्दांताप्रमाण द्रव्य आनी आकार एकठांय येवप म्हळ्यार वस्त तयार जावप. द्रव्य आनी आकार हांकां फकत विचारानींच वेगळे करूंक जाता; प्रत्यक्षांत ते एकठांय आसतात. देव सोडल्यार द्रव्यरयत आकार आसुंकूच शकना. आकार म्हळ्यार वस्तूचें फकत रूप वा भायली रचणूक न्हय; द्रव्याक बांदून दवरपी ती एक धारणाशक्त. द्रव्य आनी आकार सापेक्ष आसात. आकार म्हळ्यार वस्तूचें प्रयोजन वा संचटन. एकाचो आकार हें दुसऱ्याचें द्रव्य आसता. देखीक- रुखाचे नदरेन बी द्रव्य आसता जाल्यार फुडल्या उदरगतीचे नदरेन बी आकार आनी रुख द्रव्य थारता. वस्तूंचें विंगडपण वा वेगळेपण आकाराक लागून थारता, द्रव्याक लागून न्हय. द्रव्य हें मुळांत आकारहीन आनी निर्गुण आसता. आकार म्हळ्यार प्रकटता. द्रव्य म्हळ्यार अप्रकटता वा संभाव्यता. बदलत वचपी द्रव्य सदांच विंगड विंगड आकार घेता. अशे तरेन ॲरिस्टॉटलान परिवर्तनाचो प्रस्न सोडयला. बदल यांत्रिक न्हय तर प्रयोजनात्मक आसता. ॲरिस्टॉटलाची कारण-कल्पना व्यापक आनी आर्विल्ल्या कारणकल्पनेपरस वेगळी आसा. वस्तूचे निर्मणेखातीर उपादान (Matter), निमित्त, आकारिक आनी निमाणें अशा चार कारणांची गरज ॲरिस्टॉटलान दाखयल्या. हीं चार कारणां आकार आनी द्रव्य ह्या दोन निमण्या तत्त्वांच्या रुपान उरतात. ॲरिस्टॉटलचे नदरेन संवसार म्हळ्यार द्रव्यांची उंचल्या आनी उंचल्या आकारांमदीं सदांच चडत वचपाची प्रक्रिया. तेन्ना संवसार म्हळ्यार एक ऊंच आनी ऊंच वचपी उदरगतीचो क्रम. हे उदरगतीचे तेंगशेर देव वा द्रव्यरयत आकार आसता जाल्यार मुळांत आकारविरयत द्रव्य आसता. हीं दोनूय तोंकां म्हळ्यार अमूर्तीकरण. प्रत्यक्ष अस्तित्त्वांत आसता तो द्रव्य आनी आकारान भारिल्लो मनीस. देव म्हळ्यार सृश्टीची तार्किक बसका (base). तो शुध्द आकार आसा, आनी संवसारांचें निमित्त, आकारिक आनी निमाणें कारण आसा. काळक्रमाचे नदरेंतच न्हय, तर विचारांचे नदरेन तो पयलो थारता.

३. **नीतिशास्त्र आनी राज्यशास्त्र** [Ethics & Politics]: ॲरिस्टॉटलच्या मतान नीतिशास्त्र आनी राज्यशास्त्र हांचो सामको लागींचो संबंद आसता. मनीस हो समाज प्रिय प्राणी आसा आनी राज्य म्हळ्यार मनीसरुपी द्रव्याचो आकार आसता. मनीस समाजाचो एक घटक आशिल्ल्यान तो समाजांपरस वेगळो रावन आपलें सुख स्वतंत्रपणान मेळोवंक शकना. नितिशास्त्र ही राज्यशास्त्राचीच एक शाखा आसा. मनशाच्या नैतिक आचरणाक राज्याशिवाय अस्तित्त्व आनी पुरायपण येवंक शकना. राज्य हें मनशाक सुख दिवपाचें एक साधन जावन आसा.

ॲरिस्टॉटलच्या मतान दरेक मनीस आपसुकपणान आपलें बरेंपण जावचें म्हूण यत्न करता. तेन्ना मनीस आपसुकपणान जाची इत्सा धरता, जें साधपाचो यत्न करता तातूंत ताचें बरेंपण आसता. ह्या बरेंपणाक ॲरिस्टॉटल 'यूडायमोनिया' (Eudaimonia) अशें म्हण्टा.

राज्यांत रावन बरेंपणांत वांटेकार जावन मनीस आपलें बरेंपण साधता. जीणेंतल्यो मुळाव्यो गरजो भागोवच्याखातीर मनीस एकठांय येवन कुटुंब जाता. कुटुंबां एकठांय येवन फुडें तांचें राज्य घडटा. राज्यांत जीणेच्यो गरजो भागतातच पूण बरी जीण, मनशाचे बौध्दिक आनी नैतिक सद्‌गुण हांची उदरगत जावंक शकतली, अशें जिवीत जगपय शक्य जाता. कुटुंब संख्या नश्ट करुन तिचो वावर राज्यान स्वता करचो, राज्यकर्त्या वर्गांतल्या मनशांची खाजगी मालमत्ता आसची न्हय हीं प्लॅटोचीं मतां ताका मान्य नात. कितलेशेच मनीस सभावांतल्यानच गुलाम आसतात. तांची मानसिक कुवत सकयल्या पांवड्यावयली आसता, ह्या मतावयल्यान ॲरिस्टॉटलान गुलामगिरी पध्दतीक फाटबळ दिल्लें. सबंद राज्याचें सादारण बरेंपण करपी सरकार बरें आनी स्वताच्या वा स्वताच्या वर्गांतल्या मनशांचें बरेंपण करूंक पळोवपी लोकांनी चलयल्लें सरकार वायट वा विकृत राज्यांत कितले जाण सत्ताधीश आसात हाच्यावयल्यान ॲरिस्टॉटलान राज्यसंघटनांचे वांटे केल्यात. एकुच सत्ताधीश आसतना ताणें सत्तेचो उपेग राज्याच्या बरेंपणाक लागून केल्यार ती राजेशाय (Monarchy). राजेशायेची विकृती म्हळ्यार कसलेंच बंधन नाशिल्लें शासन (Tyranny). कांय लोकांच्या हातांत सत्ता आसप म्हळ्यार उमरावशाय (Aristocracy) पूण तिची विकृती म्हळ्यार कांय लोकांच्या बेबंद तंत्रान चलपी शासन (Oligarchy). कितल्याशाच जाणांच्या हातांत सत्ता आसप म्हळ्यार तें राज्य गणराज्य (Polity). ताची विकृती म्हळ्यार लोकशाय (Democracy). आपल्या राज्यशास्त्रांत नागरिकांच्या शिक्षणाचोय विचार ताणें बरोवन दवरला.

४. **पदार्थविज्ञान आनी मानसशास्त्र** [Physics and Psychology]:

ॲरिस्टॉटल आत्म्याच्या जाग्यार आशिल्ल्या विचारशक्तीचे सक्रीय आनी निश्क्रीय अशे दोन वांटे करता. सक्रिय विचारशक्तीवरवीं खंयच्याय गजालींचें गिन्यान माध्यमाबगर प्रत्यक्ष मेळटा. निश्क्रीय विचारशक्त सक्रिय विचारशक्तीचें साधन आसता. सक्रिय बुध्द अमर आसता. आत्मो हो कुडीचोच एक आविश्कार (manifestation) अशें ताचें मत आसा. आत्म्याचो आनी जीवाचो अभ्यास म्हळ्यार भौतिक जीणेचो अभ्यास. सैम सदांच खंयच्यातरी ध्येयावटेन वाट काडीत आसा आनी ती एक उदरगत जायत वचपी प्रक्रिया आसा अशें ताणें आपल्या बरपांतल्यान मुखार मांडलें. उदरगतीच्यो ह्यो अवस्था स्पश्ट करप हो ॲरिस्टॉटलच्या पदार्थविज्ञानाचो मुखेल हेत आसा.

सुर्वेक कूड आनी आत्मो हांच्यामदीं फरक करपी ॲरिस्टॉटल फुडें

आत्मो आनी कूड ह्यो दोन गजाली लागींच्यो आनी आत्मो हो कुडीचो आकार अशें मानूंक लागलो.

५. **सौंदर्यशास्त्र:** [Aesthetics]: ह्या विशयाचेर ॲरिस्टॉटलान 'पोएटिका' हें स्वतंत्र पुस्तक बरयलां. ह्या पुस्तकांत कलेचीं मुळावीं तत्त्वां, तांचों पदय, नाट्य हांच्यावरवीं जावपी आविश्कार हाचो ताणें नियाळ केला. उतरां आनी ताल हांच्या वरवीं काव्य तयार जाता. ॲरिस्टॉटलाच्या मतान काव्याचो जल्म दैवी शक्तींत ना. तो मनशाचे अनुकरण करपाचे जल्मजात प्रवृत्तींतल्यान आनी बऱ्या अणभवाच्या बौद्धिक खोशयेंत आसता. ॲरिस्टॉटलच्या काव्यशास्त्रांत सौंदर्यवादी तत्त्वगिन्यानाचो अभ्यास आनी सविस्तर नियाळ सांपडटा.

- कों. वि. सं. मं.

## ॲरो, केनेथ जे. :

(जल्म: २३ ऑगस्ट १९२१, न्यूयॉर्क). नामनेचो अर्थशास्त्रज्ञ. ताणें १९४० त न्यूयॉर्कच्या सिटी कॉलेजांतसून समाजविज्ञानातली बी. एस् सी. पदवी मेळयली; तशेंच कोलंबिया विद्यापीठांतल्यान १९४१ त एम्. ए. आनी १९५१ त पीएच्.डी. पदवी मेळयली. अर्थशास्त्रांतल्या संशोधनाखातीर नेमिल्ल्या काउल्स कमिशनचेर ताणें संशोधन वांगडी म्हूण काम केलें. १९४९-६८ ह्या काळांत ताणें स्टॅनफर्ड विद्यापीठांत आनी १९६८-१९७९ ह्या काळांत हार्वर्ड विद्यापीठांत प्राध्यापक म्हूण काम केलें. १९७९ सावन तो स्टॅनफर्ड विद्यापीठांत अर्थशास्त्राच्या प्राध्यापकपदाचेर काम करीत आसा. चर्चिल कॉलेज, केंब्रिज हाचो तो १९६३-६४, १९७० आनी १९७३ त सदस्य (fellow) आशिल्लो. जायत्या संस्थांनी आनी अकादेमींनीं वांगडी आनी fellow म्हूण ताणें काम केलां. 'सादारण अर्थशास्त्रीय संतुलन सिध्दांत आनी कल्याणकारी सिध्दांत' (General Economic Theory & Welfare Theory) ह्या विशयांतल्या ताच्या म्हत्वाच्या योगदानाखातीर ताका १९७२ त, अर्थशास्त्र ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. 'सादारण अर्थशास्त्रीय संतुलन सिध्दांत आनी कल्याणकारी सिध्दांत' तेचप्रमाण 'वाढ सिध्दांत आनी निर्णय सिध्दांत' (Growth Theory and Decision Theory) ह्या अर्थशास्त्रांतल्या ताच्या म्हत्वाच्या योगदानाखातीर स्विडीश अकादेमी ऑफ सायन्सेस हे संस्थेन ताचो खासा उल्लेख केला.

-कों. वि. सं. मं.

## ॲलिटिस, ओडिसीयस:

(जल्म: २ नोव्हेंबर १९११, इरकलियन- क्रिट).

एक नामनेचो कवी. मुळावें शिकप जातकच ताणें अथेन्स विद्यापिठाच्या कायद्याच्या विद्यालयांत प्रवेश घेतलो पूण शिकप अर्द्यारूच सोडलें. अँड्रियास अँब्रिकोस हांचीं व्याख्यानां आयकून १९३५ सावन ताणें बरोवपाक आनी 'कॉलेजां' (फ्रेंच चित्रकलेचो एक प्रकार) करपाक सुरवात केली. १९३५ त अथेन्स हांगा भरिल्ल्या International Surrealist प्रदर्शनांत ताणें आपलीं कॉलेजां मांडलीं. First Poems, Orientations (1936) हे ताचे सुरवातीचे कवितां झेले. ताची हेर बरपावळ अशी: Hourglass of the Unknown (1937), In service of Summer and Sun the first, together with Variation on Sunbeam (1943). पदांचो झेलो The Ro Eros (1972), कलेची समीक्षा करून बरयल्लें The Painter Theophilos (1973), निबंदां झेलो Open Book (1974). नाझी लोकांनी जेन्ना ग्रीस घेतलें, तेन्ना तो आल्बानियांतल्या इटालियनाआड आशिल्ल्या फॅसिस्ट विरोधक पंगडाक वचून मेळ्ळो. झुजाउपरांत १५५९ त ताणें To Axion Este^ हें पुस्तक बरयलें. ग्रीक परंपरेचे फाटभुंयेआड स्वतंत्रतायेखातीर आनी सर्जनशीलतेखातीर चलिल्लो आर्विल्ल्या मनशाचो संघर्श दाखोवपी ताची नितळ बुध्दिवादी नदर आनी संवेदनक्षमतेचें चित्रण दाखोवपी काव्यलेखनाखातीर ताका १९७९ त साहित्याखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## ॲसर, टोबियास मायकेल कॅरल:

(जल्म: २८ एप्रिल १८३८, ॲमस्टरडम; मरण: २९ जुलै १९१३).

एक नामनेचो डच न्यायवेत्तो (Jurist). तो ॲमस्टरडम विद्यापिठांत वेवसायिक आनी खाजगी आंतरराश्ट्रीय कायद्याचो प्राध्यापक आशिल्लो. १८६९ त, ताणें आपल्या दोन वांगड्यांक घेवन Revue de Droit International et de Legislation Compare'e' (Review of International law and of comparative Legislation) हो नियाळ केलो. Institute de Droit International (Institute of International Law) हे संस्थेचो तो संस्थापक.

१८९१ त, ताणें डच सरकाराक सुचोवणी करून आंतरराश्ट्रीय खाजगी कायद्याचें एकसूत्रीकरण जावचें म्हूण हेग हांगा परिशद घडोवन हाडपाक लायली. परिशदेची बसका पयले फावट १८९३ त भरली आनी ही बसका म्हळ्यार हेग कुटुंबीक कायद्याविशीं हेग कबलातीची सासणाखातीर संस्था कायद्याविशीं हेग कबलातीची सासणाखातीर संस्था थारली. १९११-१२ त आंतरराश्ट्रीय हुंडी (Bills of Exchange) कायद्याच्या एकसुत्रीकरणाखातीर घडोवन हाडिल्ल्या परिशदेचें अध्यक्षपद ताका फाव जालें. १८९३ त तो डच Road Van State (Council of State) चो वांगडी जालो. १८९९ ते १९०७ ह्या काळांत भरिल्ल्या हेग शांतताय परिशदांनी डच प्रतिनिधी म्हुण ताणें वांटो घेतलो.

पयले हेग शांतताय परिशदेंत सासणाचें लवाद न्यायालय Permanany Court of Arbitration) करपाखातीर ताणें केल्या मोलादिक वावराखातीर १९११ त, शांततायेखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार ताका आल्फ्रेड हरमान फ्राईड हाच्यावांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

## ॲस्टन, फ्रान्सिस विल्यम:

(जल्म: १ सप्टेंबर १८७७, हारबोर्न बर्मिंगहॅम; मरण: २० नोव्हेंबर १९४५ केंब्रिज).

नामनेचो ब्रिटीश रसायन आनी भौतिकीशात्रज्ञ. ताचें शिकप मालव्हर्न कॉलेज, बर्मिंगहॅम आनी केंब्रिज विद्यापीठांत जालें. १९१० पसून जे. जे. थॉमसन हाचो सहाय्यक म्हूण ताणें कॅव्हेंडिश प्रयोगशाळेंत काम केलें. १९२० त ट्रिनिटी कॉलेजचो फेलो म्हणून ताची वेंचणूक जाली. थॉमसन हाणें समस्थानिकांचो (Isotopes) सोद लायतकच ॲस्टर हाणें समस्थानिक आशिल्ल्या मूलद्रव्यांचे भितरले रचणुकेविशीं संशोधन करपाखातीर आनीकय बऱ्यो आनी नव्यो पध्दती सोदून काडपाखातीर उपाट संशोधन केलें. पयलो द्रव्यमान वर्णपटलेखक (Mass Spectrograph) ताणें तयार केलो आनी ताचे वरवीं समस्थानिक आशिल्लीं कितलींशींच मूलद्रव्यां सोदून काडलीं.

द्रव्यमान वर्णपटलेखकावरवीं कितल्याशाच मूल्यद्रव्यांच्या समस्थानिकांचो सोद लायिल्ल्याखातीर आनी Wholenumber Rule ह्या ताच्या सिध्दांताखातीर ताका १९२२ त, रसायनशास्त्र विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो.

रॉयल सोसायटीन १९२१ त ताची फेलो म्हूण वेंचणूक केली. मॅकेंझी डॅव्हिडसन पदक (१९२०), ह्यूझ पदक (१९२२), जॉन स्कॉट आनी पॅटरनो पदक (१९२३), रॉयल पदक (१९३८) आनी डडेल पदक (१९४१) अशीं कितलींशींच पदकां ताणें मेळयलीं.

ताणें बरयल्लीं म्हत्वाचीं पुस्तकां अशीं: Isotopes (1922), Structural Units of Material Universe (1925), Mass Spectra and Isotopes (1933).

- कों. वि. सं. मं.

## आंगले, श्रीकांत वासू पै:

(जल्म: २० फेब्रुवारी १९३४, मडगांव-सालसेत).

गोंयचो सुटके झुजारी. नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो तो वांगडी आसलो. ६ एप्रिल १९५५ त ताणें मडगांव सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो.

थंय ताका पोलिसांनी धरलो, बरेच मार दिलो आनी ११ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. साडेचार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगतकच ताची सुटका जाली. विष्णू आंगले, कमलाकर केणी, सदानंद कुंदो, श्यामसुंदर कुंदो, खुशाली नागू देसाय आनी शरद केणी हे ताचे सुटके झुजांतले वांगडी आशिल्ले. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**आंगवण:** स्वताच्या मनांतलो हेत पुरो जावंचो म्हूण देवदेवतेक पूजोपचाराच्या दिल्ल्या वचनाक वा एकाद्री वस्त अर्पण करपाखातीर दिल्ल्या उतराक 'आंगवण' अशें म्हणटात.

'आंग' म्हळ्यार शरीर वा कूड. आंगवण ही मनशाचे कुडीच्या हिताखातीर केल्लो संकल्प आसता.

कर्मां स तरांचीं आसतातः नित्य, नैमित्तिक, काम्य, निषिध्द, प्रायश्चित आनी उपासना मनांत इत्सा बाळगून केल्ल्या संकल्पांक 'काम्यकर्म' म्हणटात. आंगवण हो प्रकार काम्यकर्मांत आस्पावता. मात हेर काम्यकर्मां इत्सित हेत पुराय जावंचे आदीं करतात. आंगवणीचो संकल्प मनांतलें काम जातकच पावयतात.

'आंगवण' करपाची चाल पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयल्या. आंगवणींत देवान पयलीं भक्ताली इत्सा पुराय करप आनी उपरांत भक्तान देवाक आंगवण पावोवप असो क्रम आसता. आंगवर्णींत देवाच्या देवत्त्वाक आवाहन दिवपा वांगडा, आव्हानय आसता. धर्मीक श्रध्देंतल्यान देवतेकडे जाल्ली 'आंगवण' ही कबलात आसा. आंगवण पावोवन भक्त आपलें देवाविशींचें फारीकपण परगटायता. आंगवण देवाकच करतात अशें न्हय तर देंवचार, भूतयोनी आनी घराच्या मूळ पूरसाकय करतात. आंगवण कसल्याय कारणाची, कसल्याय स्वरूपाची आनी कोणाकूय केल्ली आसल्यार लेगीत, इत्सित फळ मेळटकच पावोवची पडटा. नाजाल्यार त्या दैवताचो कोप जाता असो समज आसा.

पुराणांत आंगवणीचे उल्लेख मेळटातः

सत्यनारायणाचे पूजेचे कथेंत साधुवाण्यान केल्ले आंगवणीची खबर वाचूंक मेळटाः साधुवाण्यान आपल्याक भुरगें जाल्यार आंगवण करीन अशें सांगून घेतलें. उपरांत ताका 'कलावती' ही चली जाली. बायलेन वाण्याक आंगवणीची याद केली. चलयेचें लग्न केलें तरी तो आंगवण करपाक विसरलो. हे आंगवणीक ते कथेंत 'प्रतिज्ञा' अशेंय म्हळां.

'भ्रष्ट प्रतिज्ञा आलोक्य शापं तस्मै प्रदत्तवाना' ।। असो देवान त्या साधुवाण्याक आंगवणीक चुकलो म्हूण श्राप दिलो.

आंगवणीचे प्रकार जायते आसातः

व्रतां करप, नेम पाळप, वस्ती करप, कुडीक कश्ट दिवप.

आंगवणी अश्योः

व्रतांः सत्यनारायण, वरदशंकर, सोळा सोमार, सोळा सुक्रार.

वस्तीः मेणवाती, दागिने, खण-कापडां, तुळाभार, नाल्ल, साकर, धान्यां, आयदनां.

नेम पाळप वा कश्ट दिवपी- साष्टांग नमस्कार, प्रदक्षिणा, देवाच्या हुमऱ्यार नाक घांसप, हुमरे-सोंपणां धुवप, उपास करप.

मुसलमान धर्मांत आंगवणीक 'मिन्नत मानत' अशें म्हणटात. ह्या धर्मांत अल्लाक आंगवणेच्यो वस्ती म्हळ्यार रूप्या घोडे, हत्ती तर दितातच, ते भायर अल्लाच्या नांवान गरीब लोकांखातीर अन्न, कपडो ह्या सारकिल्यो वस्तू दिवन आंगवण फेडटात.

महाराष्ट्रांत खंडोबा आनी कर्नाटकांत रेणूका ह्या दैवतांक, भुरगीं ओंपपाची चाल कांय पंगडांभितर आसा. देवाक अशे तरेन ओंपिल्लीं भुरगीं घरा परतनासतना देवाचे सेवेक आपलें जिवीत सारतात. गोंयां आंगवणीचें रूप देवदेवतां प्रमाण बदलता. कांय आंगवणीचे प्रकार अशेः १. सांतेर- सात तरेच्या (सात रंगांच्या) 'फुलांची माळ घालप. होंट दिवपाची - काजळ, कुकूम, खण, नाल्ल, तांदूळ दिवपाची आंगवण. २. फातर्पेची शांतादुर्गा- फुलांचें ताट दिवप. ३. गणपती- भुरगें जाल्यार तें माटोळेक बांदप. ४. म्हारु-देंवचार- सूर, रोंट, विडी, सांगोड दिवप. ५. बेताळ- जोतें, कोंबो, बोकडो दिवप. ६. खुंटी- होंट दिवप. ७. चंद्रेश्वर- नाल्ल-पड, फुलांचें ताट दिवप. ८. भूतनाथ- पायलेची खिचडी दिवप. ९. चंद्रेश्वर देवस्थान (पाड्डें)- एकाद्रे बायलमनशेचे केंस गळपाक लागल्यार आपले केंस गळपाचे थांबल्यार शेजदाराकडेन जीं पांच सोंपणां आसात तीं आपल्या केंसान झाडून घेतां अशी आंगवण करता. १०. सत्यनारायण- पांच घरां भीक मागून सत्यनारायणाची पूजा करपाची आंगवण करतात. ११. संत सां फ्रांसिश्कु शाव्हियर (ओल्ड गोवा-व्हेल्य गोवा) ह्या क्रिस्ती संताक, कुडीच्या खंयच्याय अवयवाक पिडा जाल्यार, ती निवारण जावची म्हूण आंगवण करतात. ही आंगवण पिडा सोंपतकच ज्या अवयवाखातीर आंगवण केल्ली त्या अवयवाची मेणाची आकृती करून ह्या संताचे कुडीक ओंपतात. कोलव्यां इगर्जींतूय अशी चाल चलता. १२. ओल्ड गोवा हांगा घरांनी भोंवन भीक मागून जें मेळटा त्या पैशांनी मीस करपाची आंगवण करतात.

- वासुदेव वझे

**आंगारो:** आंगारो ह्या उतराचो मूळ अर्थ म्हळ्यार, पेटिल्लो तांबडोगुंज जाल्लो कोळसो. पूण सद्या बिभूत, धूप, हुंवाळून उरिल्ल्या पेटिल्ल्या कोळशाचेर उदक घालून पालयल्लो गोबर वा कोळसो, वा पवित्र थळां आनी होमांचे सुवातेवयली बिभूत वा गोबर हाका 'आंगारो' म्हण्टात.

चड करून दत्तात्रयाच्या, म्हादेवाच्या देवळांत आंगारो/बिभूत दवरपाची बरीच पोरनी प्रथा आसा. हो आंगारो भाविक आपल्या कपलाक वा हेर अवयवांचेर लायतात. आंगाऱ्याक लागून भायली कसलीच पीडा वा बादा जायना हो ताचे फाटलो समज आसा.

हिंदू धर्माच्या बऱ्याचशा ग्रंथांनी आंगाऱ्याविशीं म्हत्वाची बरपावळ सांपडटा. बरेचकडेन आयजपसून कसलीय पीडा वा बादा जाल्या मनशाक सुशेग मेळचो हे खातीर रामरक्षा, शिवकवच, मारुती स्तोत्र वा 'ब्रह्मकर्मसमुच्चय' हातूंतलो 'शांतिपाठ' म्हणून आंगारो मंत्रावन दिवपाची प्रथा आसा. बऱ्याच ग्रंथांनी कशे तरेन आंगाऱ्याचें महात्म्य आसता हाचेरय बरपावळ आसा. देखीकः

१. गुरूचरित्रः

> इहलोकीं अखिल सुख। होय आपण शतायुष।
> व्याधि न होय शरीरास। भस्म लाविता परियेसा ।।३३।।
> पूर्वजन्मसहस्त्रांती। आणिकही बहुत।
> भस्मधारणे पापे जाती। बेचाळीस वंशादि ।।३४।।
>
> (२९ वो अध्याय)

२. रामरक्षाः

> एतां राम बलो पेतां रक्षां यः सुकृती पठेत्
> स चिरायुः सुखी पुत्री विजयी विनयी भवेत्।।
>
> (बुधकौशिकविरचित रामरक्षा, श्लोक १०)

३. शिवकवचः

> पुनश्च भस्म संमंन्त्र्य तदंगपरितोऽ स्पृशत्।
> गजानां षट्सहस्त्रस्थ द्विगुणस्यबल देही ।।३७।।
> भस्मप्रभावात्संप्राप्त बलैश्वर्य धृतिस्मृतिः।
> स राजपुत्रः शुशुभे शरदर्क इव श्रिया ।।३८।।
> भस्मधारण सामर्थ्यात् शत्रुसैन्यं विजेष्यसि ।।४४।।
>
> (स्कंदपुराण ब्रह्मोत्तर खण्ड, शिवकवच)

४. वैष्णव पंथः

> तुझा दास शेषशायी। म्हणून लावी अंगारा।।

५. तुकाराम गाथाः

> तुका म्हणे पाहता घडि। जगा जोडी अंगारा।।(३९७६)

कांय पुराणांनीलेगीत आंगाऱ्याचें म्हत्व देखींसयत स्पश्ट केलां.

अरुंधती ही एका ऋषिची बायल अग्निहोत्राच्या कुंडांतल्यान आंगारो काडून एका मेल्ल्या ब्राह्मणाच्या कपलाक लायता आनी तो ब्राम्हण जिवो जाता.

(पद्मपुराण अध्याय १०६)

हिंदू-मुसलमान धर्मांक एकठांय हाडपी नवनाथ संप्रदायांत भस्माविशींचें बरेंच वर्णन आसा. गोरक्षनाथाचो जल्म गोबरांतल्यान जालो अशें मानतात. हाकाच लागून ताका गोरक्षनाथ म्हणटाले. रोग वा पीडा पयस जावचेखातीर ताचो मंत्र आसा तो असो:

ॐ नमः वज्रका कोठा जिसमे पिंड हमारा बैठा।
ईश्वर कुंजी ब्रह्मा टाळा, मेरे आढो याम का यति हनुमंत
रखवाला।

हो मंत्र म्हणून उपरांत आंगारो दितात.

कर्नाटकांत वीरशैव पंथाचे लोक सदांच आपल्या कपलाक भस्म-आंगारो लायतात. तांच्यो बायलो कपलाक पयलीं भस्म-आंगारो लावन वयर कुकूम लायतात.

कांय देवस्थानांतल्यान भाविकांक प्रसादावांगडा आंगारोय दितात.

गोंयांतल्या देवस्थानांनी आंगारो सर्रास सांपडटा. कांय कडेन देवाचे भगत हो आंगारो भाविकांक दितात.

- माधव गोविंद भुस्कुटे

संदर्भः १. गुरूचरित्र. २. बृहदस्तोत्र रत्नाकर, निर्णय सागर प्रेस. ३. जोशी, ल. भ., नवनाथ तत्वज्ञान/उपासना.

**आंगोला:** आफ्रिका खंडाचे नैऋत्य देगेवेलो देश. क्षेत्रफळ १२,४६,६९६ चौ. किमी. अक्षवृत्तीय विस्तार ६′ ते १७° दक्षिण, रेखावृत्तीय विस्तार १२° ते २४° अस्तंत. आंगोलाचे उत्तर दिकेक झाइरे, उदेंतेक झाइरे आनी झांबिया, दक्षिणेक नैऋत्य आफ्रिका आनी अस्तंतेक अटलांटिक म्हासागर. काबिंदा हो आंगोलाचो वाठार मुखेल भुंयेसावन उत्तरेक ४० किमी. वयर झाइरे ह्या देशान चोंयवशीन रेंवडायला. ह्या देशाक सुमार १,६५० किमी. लांबायेची दर्यादिग लाबल्या.

**भूंयवर्णनः** अस्तंतेवटेनची ३० ते १०० किमी. रुंदायेची दर्यादिग उत्तरेच्या वाठारांत पावतासर दोंगरी जाता. त्या मानान दक्षिणेवटेनचो वाठार सकयल आसा. उदेंतेवटेनचो १,००० ते २,००० मी. उंचायेचो दोंगरी वाठार फुडें काँगो, झांबेझी न्हंयांचेवटेन देंवत वता. काटुंबेला हें ह्या दोंगरांचें सगळ्यांत ऊंच म्हळ्यार २,६२० मी. उंचायेचें तेमक. दोंगरी वाठार खडपांचो आसा. बीए ह्या मदल्या दोंगरावयल्यान क्वांगो, क्विलू आनी कासाई ह्यो न्हंयो फुडें काँगो न्हंयक मेळटात. लुंग्वेबुंगु, लुआंगिंगा आनी क्वांडो ह्यो न्हंयो अस्तंतेक वचून झांबेझी न्हंयक मेळटात. कुबांगो, कुनेने सारक्यो न्हंयो अटलांटिक म्हासागराक मेळटात. कुआंझा न्हंय पुराय आंगोलांतूच व्हांवता.

**हवामानः** आंगोलांत दोन ऋतू आसात. जून ते सप्टेंबरमेरेनचो शियाळो आनी ऑक्टोबर ते मे मेरेनचो पावसाळो. विंगडविंगड वाठारांनी हवामान बदलता. उत्तरेवटेंतल्या वाठारांनी हवा उश्ण आनी ओलसाणीची आसता. लुआंदा ते मॉझेमीदीस ह्या वाठारांतली हवा सादारण उश्ण आसता. उत्तरेवटेन तापमान २४° ते २७°से. इतलें आसता. उंचेल्या वाठारांतली हवा थंड आनी सुखदिणी आसता. पावस सुमार १५० सेंमी. इतलो पडटा. एप्रिल म्हयन्यांत वादळां जातात आनी पावस चड पडटा.

**बनस्पत आनी मोनजातः** आग्नेय वाठारांत सॅव्हाना जातीचें तण सांपडटा. कुनेने न्हंयचे वाठारांत कांट्यांचीं झोंपां आसात. बेंगेलाचे उत्तरेवटेन दर्यादिगेर ताड आसात; ह्या वाठारांत आनी काबिंदा वाठारांत दाट रानां आसात. ह्या रानांनीं मेळपी लांकूड मदेराक वापरतात. मॅहॉगनी आनी खराचीं झाडां बऱ्याच प्रमाणांत दिश्टी पडटात, पूण दीख चड प्रमाणांत काडिल्ल्यान खराचीं झाडां सद्या उणीं जायत गेल्यांत. आंगोलांत शींव, हती, बिबटो वाग, पाणघोडो, गेंडो, रानरेडो, झेब्रा, जिराफ, तरातरांचीं हरणां, शहामृग, रानदुकर, बॅबून आनी हेर जातींचीं माकडां, मानगीं, कांसव आनी तरातरांचें नुस्तें सांपडटा.

**इतिहासः** १४८२ वर्सा आंगोलांतलो काँगो न्हंयच्या मुखाकडलो वाठार आनी दक्षिणेतलो केप ऑगस्टीनमेरेनचो वाठार सोडून थळाव्या सत्ताकडेन पोर्तुगेजांनी इश्टागत केली. पोर्तुगेज धर्मप्रसारकांनी थंय किरिस्तांव धर्माचो प्रसार केलो. १५७० मेरेन चडशी प्रजा किरिस्तांव जाली. सद्याची आंगोलाची राजधानी लुआंदाची थापणूक १५७५ वर्सा जाली. १६२७ सावन लुआंदा हें धर्मप्रसाराचें मुखेल केंद्र जालें. १९ व्या शेंकड्याच्या शेवटामेरेन पोर्तुगेजांनी दर्यादिग सोडल्यार भितल्ल्या वाठारांनी शेक गाजोवपाचो यत्न केलोना. गुलामांचो वेपार व्हड प्रमाणांत जातालो; आनी होच पोर्तुगेजांचो मुखेल धंदो आशिल्लो. चडशे गुलाम मध्य आनी दक्षिण अमेरिकेंत व्हरून विकताले; हाचें कारण म्हळ्यार उंसाच्या मळ्यांनी काम करचेखातीर आंगोलांतले लोक बरेच उपेगी अशें मानताले. १८३० वर्सा गुलामांच्या धंद्याचेर बंदी आयल्याउपरांत पोर्तुगेजांनी भितल्ल्या वाठारांनी नदर मारुंक सुरवात केली. पूण आपली सत्ता वाडोवपाचे नदरेन तांणी व्हडलेशे यत्न केले नात. १८८० वर्सा सुमार, आफ्रिकेचेर शेक गाजोवचेखातीर युरोपीय देशांभितर सर्त सुरू जाली. ताका लागून दर्यादिगेवेल्यान चडांत चड भितर आनी पयसुल्ले वाठार जिखून घेवपाचो पोर्तुगेजांनी यत्न केलो आनी बाकीच्या राश्ट्रांक आपली सत्ता मानून घेवंक लायली. १८८५ ते १९०५ मेरेन फ्रांस, जर्मनी, काँगो फ्री स्टेट, ब्रिटन आनी १९२७ वर्सा बेल्जियमान आंगोलाच्यो शिमो मानून घेतल्यो.

आफ्रिकेंतल्या हेर देशांभशेन आंगोलाय बरोच काळ फाटीं उरलो. दुसऱ्या म्हाझुजांउपरांत फ्रेंच आनी ब्रिटनाचे सत्तेखाल आशिल्लीं आफ्रिकेंतलीं चडशीं राश्ट्रां स्वतंत्र जालीं पूण आंगोला स्वतंत्र जालो ना. १९५३ वर्सा पोर्तुगालान आंगोलाक स्वतंत्र प्रांताचो दर्जो दिलो, पूण पुराय अर्थान स्वतंत्र असो हो प्रांत नाशिल्लो. ताका पोर्तुगालाचोच एक प्रांत मानताले. लोकांक कांय प्रमाणांत ल्हान-सान अधिकार मेळळे. आंगोलांतल्या लोकांनी स्वतंत्रतायेखातीर चळवळ चालू केली. १९६१ वर्सा आंगोलांत बऱ्याच वाठारांनी बंड जालें, पूण बंडाचे यत्न सफळ जाले नात. १९६२ त आंगोलांतल्या राश्ट्रवादी लोकांनी किन्शासा हांगा प्रतिसरकाराची थापणूक केली. थंयसावन सशस्त्र उठाव करपाचे यत्न चालूच आशिल्ले. संयुक्त राश्ट्रांतल्या आशिया आनी आफ्रिका खंडांतल्या बऱ्याचशा देशांनी आंगोलाचे स्वतंत्रतायेक आदार दिलो. इतले मजगतीं स्वतंत्रताय मेळोवचेखातीर मुव्हिमेन्तु पोपुलार द लिबेर्तासांव द आंगोला, फ्रॉन्ति नासियोनाल द लिबेर्तासांव द आंगोला ह्यो संघटना नेटान वावुरताल्यो. २५ एप्रिल १९७४ वर्सा पोर्तुगालांत पोरने सरकार वचून नवें सरकार आयलें. ह्या सरकारान वसणुकींतल्यो लडायो सोंपोवपाचो निर्णय घेतलो. १९७५ वर्सा आंगोलाक पुराय स्वतंत्रताय मेळ्ळी. स्वतंत्रतायेउपरांत आंगोलाक पीपल्स रिपब्लिक ऑफ आंगोला ह्या नांवान वळखूंक लागले. १९७६ वर्सा आंगोला, ऑर्गनायझेशन ऑफ आफ्रिकन युनिटी आनी संयुक्त राश्ट्र संघटनेचो प्रतिनिधी जालो.

**राज्यवेवस्थाः** आंगोला हें एक सार्वभौम राश्ट्र जावन आसा. ह्या राश्ट्राखातीर १९७५ त संविधान तयार जालें आनी फुडें ह्या संविधानांत १९७६ त कांय बदल घडयले. राज्यकारभाराचें फुडारपण एम्. पी. एल्. ए. म्हळ्यार मुव्हिमेन्तु पोपुलार द लिबेर्तासांव द आंगोला ह्या पक्षाकडेन आसा. राज्यकारभार मार्क्सवादी-लेनिनवादी विचारांवरवीं चलता. प्रशासन चलोवचेखातीर क्रांतिकारी मंडळ (रेव्होल्युशनरी काउन्सिल) आसा. ह्या मंडळाची बसका म्हयन्यांतल्यान एक फावट जाता. राजकी, प्रांतीय, तरणाटे आनी बायलां अशा विंगडविंगड पांवड्यावयले प्रतिनिधी ह्या मंडळांत आसात. पक्षाचे केंद्रीय समितीन घेतिल्ल्या निर्णयांचेर ह्या बसकांनी विचार जाता आनी हे निर्णय वेव्हारांत हाडटात. पक्षाचो अध्यक्ष होच देशाचो अध्यक्ष आसता.

थळावी राज्यवेवस्था बरेतरेन चलची हाचेखातीर देशाचे १० प्रांत केल्यात; ह्या प्रांताचेय फुडें गांवांचे आनी शारांचे परिस्थितीप्रमाण आनीक कुडके केल्यात. केंद्रीय लोकशायेच्या तत्त्वांचेर प्रा तांविशीं निर्णय घेतात.

आंगोला अलिप्त राश्ट्रपरिशदेचो सभासद जावन आसा. न्यायवेवस्था स्वतंत्रपणान कारभार चलयता. पीपल्स सुप्रीम कोर्ट हें सगळ्यांत उंचेल्या




पांवड्यावयलें न्यायालय.

**अर्थीक स्थिती:** आंगोलाची अर्थवेवस्था समाजवादी तत्त्वांचेर आदारिल्ली आसा. २४% जमीन शेताखातीर लायक आसा. हांगाच्या हवामानाक लागून पिकावळ बरी जाता. शेतवडींत यंत्राचो बरोच उपेग जाता. मुखेल पिकां गंव, तांदूळ, मको, बटाट, कणंगां, अनसां, केळीं, कॉफी, भाजी, अळसांदे हीं आसात. पशुपालनाची उदरगत चड जावंक ना. गोरवां, मेंढरां आनी दुकरां. हीं मुखेल पोसपाचीं जनावरां.

आंगोलांत खनीज संपत्ती भरपूर आसा. खणींभितर हिरे, लोखण आनी तांबें बरेंच मेळटा. पांच व्हडल्या खणींनी लोखण मेळटा आनी कासिंगा ही एक मुखेल खण. संवसारांतले ४% ते ५% हिरे आंगोलांतल्यान निर्यात जातात.

नुस्त्याच्या वेवसायांत आंगोला बरोच फुडारिल्लो देश; पूण १९७५-७६ तल्या लडायेउपरांत दर्यादेगांचेर जाल्ल्या बोवाळाक लागून ह्या वेवसायाचेर वायट परिणाम जाला. न्हंयांतलें नुस्तें पारंपारिक पध्दतीन मारतात आनी ताचो उपेग फकत देशांतल्या लोकांपुरतोच जाता. दर्यांतलें नुस्तें यांत्रिक बोटीनीं धरतात आनी हातूंतलें चडशें निर्यात जाता. पर्यटन धंद्याविशीं व्हडलीशी म्हायती मेळना.

आंगोलांतले म्हत्वाचे उद्येगधंदे म्हळ्यार नुस्तें आनी ताडाचें तेल काडपाचे कारखाने, मांस सुकोवन तिगवपाचे कारखाने, कपडे, बीअर आनी शिमीटाचे कारखाने हे आसात. हांगा यंत्रांची चडशी आयात जाता.

इश्कूद हें हांगाचें अधिकृत चलन. आंगोलाक रशिया आनी क्यूबा सारक्या देशांकडल्यान अर्थीक, उद्येगीक आनी राखणेची मदत जाता. देशांत चलतल्या उद्येगीकरण आनी चड पिकावळ काडपाच्या सरकाराच्या यत्नांक लागून आंगोला उदरगतीच्या पांवड्यार आसा.

**येरादारी आनी संचारण:** राश्ट्रीय रेल्वे ३,०६९ किमी. लांबायेची आसा. मुखेल रेल्वेमार्ग म्हळ्यार लुआंदा-मालांजे, मॉझेमीदीस-मेनांग्वे, बेंगेला आनी आंबोय-गाबोला हे आसात. चडशी रेल्वे येरादारी डिझलाचेर चलता.

ह्या देशाच्या लांबाय-रुंदायेच्या मानान हांगाच्या रस्त्यांची लांबाय ७३,८२८ किमी. इतली आसा. हातूंतले ८,५७७ किमी. लांबायेचे रस्ते बरे आसात. मोटारगाडयोय उण्यो आसात. न्हंयो जरी खूब आसल्यो तरी उदका येरादारीची व्हडलीशी उदरगत जावंक ना. बेंगेला, लोबितो, लुआंदा, नोवो, रेदोंदो, मॉझेमीदीस, आंबोय हीं हांगाचीं मुखेल बंदरां जावन आसात. ह्या बंदरांवेल्यान आंगोलाची आयात-निर्यात चलता. त्रांशपोर्तिश आयेरियुश द आंगोला ही हांगाची विमान येरादारी सांबाळपी संस्था. राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय मार्गांचेर हे संस्थेवरवीं १५ परस चड विमानांची येरादारी चलता. लुआंदा हो हांगाचो मुखेल विमानतळ. मॉस्कोसावन लुआंदाक थेट विमानसेवा आसा. राश्ट्रीय विमानतळांमदीं बेंगेला, काबिंदा, हुआंबो, लोंबितो आनी मॉझेमीदीस हे मुखेल आसात.

टेलिफोनची वेवस्था आंगोलांत त्या मानान बरी आसा. 'जोर्नाल द आंगोला' हें हांगाचें मुखेल खबरांपत्र. हें सप्तकांतल्यान स दीस उजवाडायतात. बातम्यांचेर आनी नेमाळ्यांचेर सरकाराचें नियंत्रण आसता.

**लोक आनी समाजजीण:** १९८६ वर्सा आंगोलाची लोकसंख्या ८८,२३,००० इतली आशिल्ली. चडशे लोक बांटू ह्या निग्रोवंशीय जमातीचे आसात. तातूंत कॉंगो, अँबुंदो, अंबो अशो बऱ्योच पोट जमाती आसात. सगळ्यांत म्हत्वाची पोट जमात म्हळ्यार ओव्हिंबुंदो. उरिल्ले लोक युरोपी वंशाचे आनी भरसल्ल्या वंशाचे आसात. आग्नेय आनी दक्षिणेच्या वाठारांत धनुश्यबाण वापरपी आदिवासी रावतात.

हांगाच्या लोकांचो मूळ धर्म म्हळ्यार परंपरेप्रमाण रुढी पाळप, पूण किरिस्तांव धर्माचो बरोच प्रसार हांगा जाला. रोमन कॅथलिकांची संख्या

**खनीज संपत्ती:** आंध्र प्रदेशांतले सगळ्यांत पोरने फातर आर्कीयन काळांतले आसून तातूंत गुलाबी आनी गोबऱ्या रंगाचे ग्रॅनायट, नायस आनी थोड्या प्रमाणांत धाखाड वर्गाचे हॉर्नब्लेंड टाल्क, क्लोरायट, मायका, शिस्ट, लोही, क्वार्टझायट, खोंडालायट, नेफेलिन, सायेनायट हे फातर मेळटात. ह्या आर्कीयनकालीन फातरांत लोखण, मॅंगनीज, तांबें, क्रोमायट आनी हेर धातू तशेंच अभ्रक, बेरिल, ग्राफायट, कायेनायट, सिलिमनायट आनी हेर जायतीं उद्येगीक म्हत्वाचीं खनिजां मेळटात. खम्मम, अदिलाबाद, करीमनगर, वरंगळ आनी अस्तंत गोदावरी हांगा ३९०८ दशलक्ष टन कोळशाचे सांठे आसात. अदिलाबाद, हैदराबाद, मेहबूबनगर, कर्नूल, कडप्पा, गुण्टूर नलगोंडा आनी कृष्णा हांगां २,०१८ दशलक्ष टन चुन खडीचे सांठे आसात. अनंतपूर, करीमनगर, आदिलाबाद, चित्तूर, खम्मम, प्रकाशम, कृष्णा, कर्नूल, कडप्पा हांगां ३९० दशलक्ष टन लोखणाचे साठे आसात. विशाखापट्टणम हांगा आशिल्ले बॉक्सायटचे सांठे ३० दशलक्ष टन आसात.

**उदकांतली पिकावळ:** आंध्र प्रदेशाक ९८२ किमी. लांबायेची दर्यादिग मेळ्ळ्या. दर्यांतलो सुमार ३२,००० चौ. मैल वाठार नुस्तें मारपाखातीर वापरपाक मेळटा. वर्साक ४ लाख टन नुस्तें नुस्तेमारी केंद्रांवरवीं धरतात. १९८० त १,१६,०१३ टन नुस्तें दर्यांत धरलें. काकीनाडा आनी मछलीपट्टणम् हांगा नुस्तेंमारी प्रशिक्षण केंद्रां आसात. सद्या राज्य सरकार, ऊंच तंत्रगिन्यानाच्या आदारान अत्याधुनिक ट्रॉलर बांदपाचो विचार करता. तेभायर उदकांतली नुस्तेमारी करपाक एक जोड नुस्तेमारी प्रकल्प राज्य सरकारान हातांत घेतिल्लो आसून ताचेर २३८.० दशलक्ष रुपया खर्च येवपाचो आसा. तेखातीर संवसारीक बॅंकेन १५०.५ दशलक्ष रुपयांचें रीण दिलां. आंध्र प्रदेशांतले ३.२६ लाख लोक नुस्तेंवेवसायांत आसात.

**पर्यटन:** आंध्र प्रदेशांत आशिल्ल्यो इतिहासीक वास्तू, पवित्र देवमंदिरां पर्यटकांक आकर्शीत करपी म्हत्वाचीं थळां जावन आसात. चित्तूर जिल्ह्यांत तिरुपती हांगाचें श्री वेंकटेशाचें देवूळ, भद्राचलमचें श्रीरामचंद्राचें देवूळ, श्रीशैलम हांगा आशिल्लें मल्लिकार्जुनस्वामीचें देवूळ, तशेंच आहोबलम, श्रीकुमकुम आनी सीमाचलम हांचीं देवळां आंध्र प्रदेशांतलीं म्हत्वाचीं आनी नामनेचीं देवळां जावन आसात.

हैदराबाद-सिकंदराबाद जोड-शारां, हुसेन सागर, १५९१ त बांदिल्लो चार मीनार, उस्मानिया विश्वविद्यापीठ, सालारजंग म्युझीयम, राज्य म्युझीयम, आर्ट गॅलरी, हेल्थ म्युझीयम, नेहरू जिऑलॉजिकल पार्क, बिर्ला मंदर हीं हैदराबादांतलीं मुखेल थळां.

हैदराबाद सावन ८ किमी. अंतराचेर आशिल्लो गोलकोण्डा किल्लो पर्यटनाचे नदरेन म्हत्वाचें थळ आसा. नामनेचे कोहिनूर आनी पिट हिरे गोलकोण्ड्याचे खणींत मेळिल्ले.

**उद्येगधंदे:** आंध्र प्रदेशांत उद्येगधंद्यांची वाड नेटान जायत आसा. १९८८-८९ च्या अदमासपत्रकांत उद्येगीक कारखाने आनी खनिजां हांचेखातीर ६२ कोटी रुपयांची तजवीज केल्ली. राज्यांत ६४९ मध्यम आनी व्हड उद्येग आसून तातूंत ३३५३.१३ कोटी रुपयांचें भांडवल घोळटा. हातूंतल्यान ४.३ लाख लोकांक रोजगाराच्यो संदी मेळ्ळयात. ६६५३४ ल्हान उद्येग राज्यांत आसून तातूंत ८७८.२३ कोटी रुपयांचें भांडवल घोळटा. हातूंतल्यान ६.२५ लाख लोकांक रोजगाराच्यो संदी मेळ्ळ्यात.

हैदराबाद आनी विशाखापट्टणम् हीं उद्येगधंद्याचे नदरेन म्हत्वाचीं केंद्रां आसात. हांगा मशिन टूल्स, सिंथेटिक ड्रग्स, फार्मास्युटिकल्स, विद्युत् यंत्रां, बोटी, सारीं, विद्युत् उपकरणां, विमानाचे भाग, शिमीट, रसायन ॲसबेस्टोस, गाडयो, शिमीटापसून घडोवपाक येवपी वस्तूंचे कारखाने आसात. हैदराबाद शार येरादारीचे नदरेन फाव त्या जाग्यार आशिल्ल्यान चडशे सरकारी आनी खाजगी कारखाने थंय वयर सरल्यात. मछलीपट्टणम्, वरंगळ, धर्मावरम, एमिंगनुर, गढवाल, ताडपत्री हांगाचें हातमागाचें कापड, अचोणीच्यो शेंदऱ्यो, कोंडापल्ली आनी निर्मळ हांगाचीं खेळणीं, हैदराबादचें बिदरीकाम, जरकाम, भरतकाम, शिंगां आनी हस्तीदंताच्यो वस्तू, गुण्टुरचो तंबाखू, अदिलाबादचें फर्निचर हे कुटिरोद्येगय बरे चलतात. गुण्टुरच्यो चिनी मातयेच्यो वस्तू आनी ग्लासाचो कारखानो, निजामाबादचो निजाम साकर कारखानो सिंगारेनी कोठागुडमच्यो कोळशां खणी सरकारी कारखान्यांच्या क्षेत्रांत आस्पावतात.

जून १९७७ मेरेन आंध्र प्रदेशांत ५१ उद्येगीक वसाहती, २८ उद्येगीक उदरगत विभागांत आसल्यो आनी २० उद्येगीक वसाहती तशेंच चार उद्येगीक उदरगत विभागांतलीं कामां मुळाव्या पांवड्यार आसलीं. राज्यांत ६,००,००० लाख हातमाग केंद्रां आसलीं. ह्या केंद्रांत १९८१-८२ त ४२० दशलक्ष मी. हातमाग तयार जाल्ले. देशांत तयार जावपी हातमागांतले २०% हातमाग आंध्र प्रदेशांतल्यान निर्यात जाता.

सिगरेटी, चिरूटां, सारें, साकर, भात सडोवप, भाता कुंड्यातलें तेल काडप, ॲस्बेस्टॉसचे पत्रे करप, लोखणाचें सामान, तेल शुध्दीकरण हांचे कारखाने तशेंच लोखण, अभ्रक स्लेट, शाहबादी फरशी, संगमरवर, बॅरायटस आनी हेर खनिजांचेर आदारिल्ले उद्येगधंदे सद्या आंध्रांत वयर सरल्यात. हांकां लागून आंध्राचे अर्थवेवस्थेक घट फाटबळ मेळ्ळां.

**शिंपणावळ आनी ऊर्जा:** १९८०-८१ वर्सा ल्हान आनी व्हड शिंपणावळ प्रकल्पा वरवीं आंध्र प्रदेशांतली १.२५९ दशलक्ष हेक्टर जमीन उदकाचो लाव घेवपाक उपकारताली. तातूंतली ०.८२८ दशलक्ष हेक्टर जमीन शिंपणावळ क्षेत्राखाल हाडली. १९८०-८१ मेरेन जे म्हत्वाचे शिंपणावळ प्रकल्प तयार जाल्ले तांचीं नांवां आनी तांक फुडलेप्रमाण आसलीः प्रकाशम बॅराज (४०,८७३ हेक्टर), तुंगभद्रा हाय लेव्हल कानाल स्टेज-१ (४८,१९८ हेक्टर), तुंगभद्रा लो-लेव्हल कानाल (६०,२९८ हेक्टर), के. सी. कानाल (०.१२२ दशलक्ष हेक्टर), कदम (४७,९२० हेक्टर), नागार्जुनसागर (०.८६८ दशलक्ष हेक्टर) आनी श्रीरामसागर (०.२९६७ दशलक्ष हेक्टर) ह्या प्रकल्पाचो वावर सुरू आसलो. ल्हान शिंपणावळ प्रकल्पांची उदरगत करपाक राज्य-सरकारान संवसारीक बॅंकेचो आदार घेतला. हातूंत १४६ ल्हान शिंपणावळ येवजणी आनी २०० पाझर तलाव हांचो आस्पाव आसून तांची तांक २,३२,४०३ हेक्टर जमनीक उदका पुरवण करपाइतली आसतली (८०-८१). राज्यांत उदक आनी उश्णतायेवरवीं विजेचें उत्पादन जाता. मच्छकुंड, तुंगभद्रा, निजाम सागर, अपर सिलेरू, लोअर सिलेरू, श्रीशैलम, नागार्जुनसागर, रामपदसागर, इंचेपल्ली, प्राणहिता आनी हेर प्रकल्पांत उदकावरवीं विजेची निर्मणी जाता. हुसेनसागर, रामगुंडम आनी तेलंगाणा तशेंच हेर प्रकल्पांत उश्णतायेवरवीं (औष्णिक) विजेची निर्मणी जाता. १९८१-८२ त ८,८७३.९ विजेची निर्मणी जाली. राज्यांत १९,२८४ खेड्यांत वीज पुरवण जाली.

**येरादारी आनी संचारण:** १९८१-८२ मेरेन राज्यांत राश्ट्रीय महामार्ग (२३५७ किमी.), राज्य महामार्ग (८३८७ किमी.) मुखेल जिल्हामार्ग (१८०७२ किमी.) जिल्हा परिशद आनी समिती मार्ग (७४,९३० किमी.) आसले. कार, जीप, मोटार, सायकल, स्कूटर, ऑटोरिक्शा, ट्रॅक्टर, बसी, ट्रक, टेंपो मेळून २,७२,२७४ वाहनां रस्त्यांवेल्यान घोळटालीं.

गोदावरी कालवो, कृष्णा कालवो, बकिंगहॅम कालवो, कर्नूल-कडप्पा कालवो, कोम्मापूर कालवो हे राज्यांतले अंतर्गत उदकामार्ग आसात. उदकामार्गाची वट्ट लांबाय १८४५ किमी. आसा. दर्यावेल्या उदकामार्गाचेर विशाखापट्टणम् आनी काकिनाडा हीं मुखेल बंदरां आसात. मछलीपट्टणम् भीमुनीपट्टणम्, कृष्णापट्टणम् आनी कलिंगपट्टणम् हींय दर्यादेगेवयलीं म्हत्वाचीं बंदरां आसात. राज्यांतल्यान ६,२२४ किमी. लांबायेचे रेल्वे-मार्ग गेल्यात. वॉल्टेअरचे उत्तरेक दक्षिण-पूर्व रेल्वेचो तर मद्रास आनी गुण्टूर हांच्या मजगतीं दक्षिण रेल्वेचो कांय भाग आंध्रांत आस्पावला. दक्षिण मध्य रेल्वेचें मुख्यालय राज्यांतल्या सिकंदराबाद शारांत आसा. राज्यांतलो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ हैदराबाद हांगा आसा.

बरीच व्हड आसा. क्यूबाचे सैनिक आनी रशियनय ह्या देशांत हालींमेरेन दिश्टी पडटाले. सरकार जरी मार्क्सवाद लेनिनवादाचो उक्तेपणान प्रचार करता, तरी लोकांक धर्मीक स्वतंत्रताय आसा.

हांगाचे लोक लांकूड, माती आनी फातरांची कलाकुसर करपांत बरेच हुशार आसात. लुआंदा, कार्बिदा ह्या वाठारांनी विणिल्ले कपडे आनी तरातरांचें नक्षीकाम पळोवंक मेळटा.

फुटबॉल, व्हॉलीबॉल, बास्केटबॉल, पेंवप, कसरतीक (Gymnastics), ज्यूडो हे खेळ लोकांमदीं प्रिय आसात. कला आनी संस्कृतायेची जतनाय करचेखातीर सरकारान राश्ट्रीय पांवड्याचेर एका मंडळाची थापणूक केल्या.

**शिक्षणः** राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण सुमार १०% आसा. हे विशीं आंगोलाचो संवसारांत १२८ वो क्रमांक लागता. शिक्षण ६ ते ११ वर्सांमेरेन सक्तीचें आनी फुकट आसा. शाळेंतलें शिक्षण ११ वर्सांचें आसता. शिक्षणीक वर्स सप्टेंबर ते जुलै मेरेन चलता. शाळांनीं पोर्तुगेज भाशेंतल्यान शिकयतात, उंचेल्या पांवड्यावयलें शिक्षण उनिव्हेर्सिदाद द लुआंदा ह्या विश्वविद्यालयांत मेळटा. हें विश्वविद्यालय १९६३ वर्सा जल्माक आयिल्लें. हांगाचे बरेच विद्यार्थी शिक्षणाखातीर भायल्या देशांनी वचून रावल्यात.

**भाशा आनी साहित्यः** चडशें साहित्य बोली आसून बरपावळ सामकीच उणी सांपडटा. १९ व्या शतमानासावन हांगा बरयिल्ल्या साहित्याचो प्रसार जालो आनी ह्या साहित्यान देशांतल्या राश्ट्रवादी चळवळीक मोलादीक हातभार लायलो. आंगोलांतले बरेचशे बुद्धिजीवी आनी लेखक १९५० उपरांत राश्ट्रवादी चळवळींत वावर करूंक लागले. पयलो राश्ट्रपती आगुस्तिनु नेतु हो पोर्तुगेज भाशेंतलो नामनेचो कवी जावन गेलो.

हांगाची अधिकृत भाशा पोर्तुगेज. खंयचीच आफ्रिकन भाशा उदरगतीक पावलेली ना. मुखेल भाशा म्हळ्यार बांटू लोकांच्यो किकोंगो, किंबुडु, उंबुडु, कियाको आनी गांगुयेला ह्यो आसात.

**म्हत्वाचीं थळां:** लुआंदा हें राजधानीचें शार आनी मुखेल बंदर. लोबितो हें दुसरें म्हत्वाचें शार आनी बंदर. मॉशेमीदीस ह्या शारांतल्यान नुस्त्याची व्हड प्रमाणांत निर्यात जाता. हे भायर बेंगेला, से द बांदेय्रा, मालांगे, नोव्हा लिश्बोआ (पयलींचे हुआंबे) हीं कांय म्हत्वाचीं मुखेल शारां जावन आसात.

- कों. वि. सं. मं

पूरक नोंदः आफ्रिका खंड

## आंग्रे, कान्होजीः

(जल्मः १६६७?, काळोसे- पुणे; मरणः ४ जुलय १७२९, अलिबाग).

मराठ्यांच्या इतिहासांतलो नामनेचो नाविक झुजारी. पुणे जिल्ह्यांतलो काळोसे हो ताचो मूळ गांव आनी संकपाळ-शखपाळ-शंकपाळ हें मूळ आडनांव. काळोसे गांवांतल्या आंगरवाडी ह्या वाठाराक लागून ताका आंग्रे हें आडनांव पडलें. ताचो बापूय तुकोजी हाणे शिवाजीच्या आरमारांत २५ जाणांची सरदारी केल्ली अशें म्हणटात. कान्होजीक मथुराबाई, लक्ष्मीबाई आनी गहिनाबाई अश्यो तीन बायलो आनी स चले आशिल्ले.

मराठ्यांक जिखपाखातीर औरंगजेब १६८१ सुमाराक महाराष्ट्रांत आयलो. त्या वेळार कान्होजीचो कोंकणपट्टींतलो वावर निकतोच सुरू जाल्लो. १६९४ पसून १६९८ मेरेन कोंकणपट्टेंतल्या मोगलांनी आनी हेरांनी काबीज केल्ले मराठ्यांचे चडशे किल्ले ताणें परत घेतले. छत्रपती राजारामान ताचो हो वावर पळोवन ताका 'सरखेल' हो किताब दिलो. १६९६ वर्सा ताणें कुलाबा (आतांचो रायगड) जिखून थंय आपलें ठाणें केलें. राजारामान कान्होजीक मराठी आरमाराचो मुखेल अधिकारी म्हूण नेमलो. राजारामाच्या मरणाउपरांत (१७००) थोड्याच वर्सांभितर शाहूची सुटका जावन १७०७ वर्सा तो छत्रपतीच्या राजासनार बसलो. त्याच वेळार राजारामाची बायल ताराबाई आनी पुतणयो शाहू हांचो राजसत्तेविशीं तंटो सुरू जालो. कान्होजीन ताराबाईच्या पंगडावटेन रावन १७०७ ते १७१० मेरेन खूब जैतां मेळयलीं. ताराबाईन सावंतवाडी ते मुंबयमेरेनचे दर्यादिगेचे राखणेखातीर मराठी आरमाराचो मुखेली म्हूण ताका नेमलो आनी ब्रिटिशांचो पालव घेवन शाहून कसलोच विरोध करचो न्हय ह्या हेतान राजमाचीचो किल्लो आनी भिवंडी प्रांताचेर नदर दवरपाची जापसालदारकी कान्होजीचेर सोंपयली.

१७१३ वर्सा शाहून कान्होजीआड बहिरोपंत पिंगळे हाका चाल करून धाडलो. कान्होजीन ताचेर जैत मेळयलें आनी ताका बंदखणींत घालो. ताका लागून शाहून बाळाजी विश्वनाथ पेशव्याक कान्होजीचेर चाल करून धाडलो. बाळाजीन कान्होजीवांगडा एकचार करून तह केलो. तातूंत कान्होजीक १० जंजिरे आनी १६ किल्ले मेळळे आनी ताणें शाहूचो अंकित जावन वर्साक १२,००० रु. दिवपाचें थारायलें. शाहून ताका सबंद आरमाराचो मुखेली केलो. अशे तरेन तो शाहूच्या पंगडाक मेळळो आनी अखेरेमेरेन तातूंतूच निश्ठेन वावुरलो.

कान्होजीचो शेक कोंकण दर्यादिगेर कोट मांडवीसावन त्रावणकोरमेरेन फांकलो. ताका लागून त्या काळांतले फ्रेंच, इंग्लीश, पोर्तुगीज आनी डच हे परकी लोक तशेंच जंजिरा हांगाचो सिद्दी जळपाक लागलो. देखून इंग्लीश, डच, पोर्तुगेज आनी फ्रेंच लोकांनी केन्ना स्वतंत्रपणान तर केन्ना एकठांय जावन कान्होजीचेर घुरी घाली. पूण कान्होजीन दर खेपे तांकां सगळ्यांक हरयले. आंग्र्यांच्या शेकाखाल सागरी प्रदेशांतल्यान येरादारी करतल्यांक दस्तक (मान्यताय) घेवची पडटाली. ताका लागून सिद्दीक दिसपट्टें फाटीं सरचें पडलें. कान्होजीन कुलाबा आनी विजयदुर्ग हांगा व्हडीं बांदपाखातीर गोदीय तयार केल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

## आंजेदीवः

कारवारच्या नैऋत्य दिकेक ८ किमी. अंतराचेर कर्नाटक राज्यांतलो एक जुंवो. अक्षांश १४° ४५' ३०'' उत्तर आनी रेखांश ७६° ०६' ४५'' उदेंत.

आंजेदीव नांव कशें पडलें हाचेविशीं चार मतां आसातः १. 'आंजेदीव' हें नांव अद्यद्वीप (अद्य= पूर्विल्लें, द्वीप= जुंवो) म्हळ्यार पूर्विल्लो जुंवो ह्या शब्दावेल्यान पडलां. पूर्विल्लो जुंवो म्हणपाचें कारण म्हळ्यार तो जुंवो परशुराम कोंकणाक पावचेआदीं सावन अस्तित्वांत आशिल्लो. २. 'अंजीदीप' म्हळ्यार पांच जुंवे ह्या उतरावेल्यान आयलां. ३. 'आंजेदीव' हें उत्तर 'अज्यद्वीप' म्हळ्यार 'तुपाचो जुंवो' ह्या उतरावेल्यान आयलां. ताका 'तुपाचो जुंवो' अशें म्हणपाचें कारण म्हळ्यार परशुरामान एकदां घोड्याचो यज्ञ-याग केल्लो तेन्ना ताका तुपाची पुरवण ह्या जुंव्यावेल्यान जाल्ली. ४. तें नांव 'अज्यद्वीप' म्हळ्यार 'अजादेवीचो जुंवो' हाचेवेल्यान पडलें. अजा देवीचें देवूळ अरब लोकांनी नश्ट करतकच अजा देवी अंकोला हांगा गेली म्हणून 'अज्यद्वीप' अशें नांव पडलें.

उत्तर-दक्षिण लांबाय १ मैल आनी उदेंत-अस्तंत लांबाय १/६ मैल इतली आसा. ह्या जुंव्याचे नैऋत्य आनी अस्तंतेकडले वाठार खडबडीत आनी फातरांचे आशिल्ल्यान सगळ्या तरेच्या गलबतांक आनी तारवांक धोक्याचो जावन आसा. उदेंतेच्या मध्याक सुमार २० फूट खोलायेचे खाडयेंत १,००० टनांमेरेनचीं गलबतां नांगरुन दवरपाक मेळटात. दक्षिणेंक आनी अस्तंतेक जावपी प्रचंड वादळवाऱ्यावेळार तारवांक हे खाडयेचो आलाशिरो मेळटा. आंजेदीव जुंव्यासावन मुखेल भूंयप्रदेशाक जोडपी उदकामार्ग सगळ्या जहाजांक वचपाक सुरक्षित आसा. हो उदकामार्ग सुमार ४२ फूट खोल आसून तातूंत खडपां आनी जलांतरित प्रस्तर (shoals) सांपडनात. जुंव्याभोंवतणची उदकाची खोलाय सुमार ७५ फूट आसा. पोर्तुगेजांनी गोंय काबीज करचेआदीं तांचीं जहाजां बांदप, तीं सारकीं करप हांचें ठिकाण आंजेदीव जुंव्यार आशिल्लें. १५१० वर्सा पोर्तुगेजांनी गोंय ताब्यांत घेतकच अंजद्वीप जुंव्याक व्हडलेशें म्हत्व दिलें ना.

ह्या जुंव्याचेर चड करून वज्राचे आनी पाशाणाचे फातर सांपडटात.

ह्या जुंव्याचो अस्तंतेकडलो दर्यावटेनचो भाग पडंग आनी फातरांचो आसा. पूण उदेंतेकडल्या जमनीच्या भागांत कोको-पामचीं झाडां तेचप्रमाण आंब्याचीं, पणसाचीं, आंतेराचीं, संत्राचीं, लिंबाचीं झाडां, किल्ल्यांचे मोडके अवशेश आनी दुरीग, कांय धवीं घरां आनी ऊंच ऊंच भिल्लमाडाच्या झाडांमदीं आशिल्ल्यो दोन सोबीत इगर्जी हाका लागून ह्या जुंव्याचो देखाव खूब सुंदर आनी ओडलायणो दिसता.

आंजेदीव जुंव्याचे उदेंतेक लोकवस्ती आसा. कोको-पामचीं रानां रोवन आनी नुस्तेमारीचो वेवसाय करून हांगाचे लोक आपली जीण चलयतात. व्हडा प्रमाणांत नुस्तें धरून सुकयतात आनी हेरकडेन धाडटात. ह्या जुंव्यार तांदूळ पिकना, म्हूण हेरकडल्यान हाडचो पडटा. उदका-पुरवण दोन तळ्यांवरवीं जाता. सुमार ३० फूट चौरस आशिल्लें एक तळें जुंव्याचे मदीं आसा. ताचें उदक भलायकेक अपायकारक आशिल्ल्यान पिवपाक वापरीनात. ह्या तळ्याचे अस्तंतेक २०० यार्ड अंतराचेर एक सैमीक वझरो वर्सभर व्हांवत आसता. त्या वझऱ्याचें उदक पिवपाक वापरतात.

वास्को-द-गामा, १४९८ वर्सा १७० मनशांवांगडा ह्या जुंव्यार आयिल्लो आनी १५ दीस ताचो थंय मुक्काम आशिल्लो. १५०५ वर्सा पोर्तुगालचो पयलो व्हाइसरॉय दाँ फ्रांसिश्कु द आल्मैद हाणें १५०० मनीस ह्या जुंव्याचेर किल्लो बादूंक धाडिल्ले. स म्हयन्यांभितर हो किल्लो बांदून जालो आनी मागीर ताका 'सां सेबाश्तियांव' हें नांव दिलें.

पोर्तुगेज सरकारान व्हिसरेय काँदि द आल्व्हॉर हाच्या अंमलांत १६८२ वर्सा आंजेदीव जुंव्यार एक किल्लो बांदलो. तो किल्लो भारतांतल्या हेर पोर्तुगेज किल्ल्यां इतलोच सुंदर आशिल्लो. त्याच वर्सा संभाजी पोर्तुगेजांकडेन झगडलो आनी ताणें तो किल्लो घेवपाचो यत्न केलो. पूण जुलय म्हयन्यांत, वादळाचो मोसम जांवचेआदीं गोंय सरकारान तांचे राखणेखातीर सैन्य धाडलें आनी मराठ्यांचो यत्न फळाक येवंक दिलोना. १७२० वर्सा हॅमिल्टन हाणें बरयल्लें- ''आंजेदीव हो पोर्तुगेजांचो जुंवो भटकळसावन दोन मैलांचेर आसून तो पोर्तुगेजांनी वेवस्थित तटबंदी करून दवरिल्लो कारण तो किल्लो मस्कतचे अरब आनी शिवाजीचे मराठ लोक केन्नाय काबीज करीत ही धास्ती तांकां आशिल्ली.'' १७५८ वर्सा, फ्रेंच अभ्यासक आंकेतील द्यु पॅराँ हाणेंय अशें बरयलां- ''आंजेदीव जुंवो पोर्तुगेजांच्या ताब्यांत आशिल्लो आनी तो तटबंदीत आशिल्लो. थंय तयार केल्ले सुती पांयमोजे बऱ्या पांवड्याचे आनी सवाय म्हूण भारतभर नांवाजिल्ले.'' गोंय आनी दीवच्या गुन्यावकारांक सक्तमजुरीची ख्यास्त दिवन ह्या जुंव्यार धाडटाले. तांकां बंदखणींत सूत कांतपाक आनी पांयमोजे विणपाक सांगताले. १९ डिसेंबर १९६१ च्या गोंय मुक्तीआदीं नोव्हेंबर, १९६१ त आंजेदीव जुंव्यार भारतीय नौसेना आनी पोर्तुगेज नौसेना हांच्यामजगतीं खर झूज जाल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

## आंजेल (राल्फ लेन), सर नॉर्मन: (जल्म १८७४).

एक ब्रिटीश पत्रकार. ताणें अमेरिकेंत कांय वर्सां घालयलीं. थंय अमेरिकेची इंग्लंडाविशीं द्वेशभावना वाडत आशिल्ली ताचो आंजेलाचेर परिणाम जालो. तेन्नासावन आपल्या आनी हेर राश्ट्रांत लोक जागृताय घडोवन हाडप हें ध्येय आंजेल हाणें आपणामुखार दवरलें. ताणें राश्ट्रवादी प्रभावाविशीं आपलें खाशेलें अशें स्पश्ट विश्लेशण सामान्य मनशाक लेगीत समजुपाक सोपें जातलें अशे तरेन लोकांमुखार मांडलें. १९०५ सावन पॅरीसच्या Daily Mail पत्राचे संवसारीक आवृत्तीचो संपादक म्हूण ताणें काम पळेलें.

१९०९ त ताणें Europe's Optical Illusion ही पुस्तिका उजवाडायली. हातूंतल्याच मुळाव्या कल्पनांची विस्तारान फोडणिशी करून १९१० त, The Great Illusion हें पुस्तक बरयलें. थोड्याच काळांत ह्या पुस्तकाच्यो कितल्योश्योच आवृत्त्यो उजवाडाक आयल्यो आनी कितल्याशाच भाशांनी ह्या पुस्तकाचे अणकारूय जाले. ह्या पुस्तकांत आंजेलान झुजापसून कसले फायदे जातले हाचेविशीं आपले विचार उक्तायल्यात. उदाहरणाखातीर इंग्लंड आनी जर्मनी हांच्यामजगतीं जावपाच्या झुजाची शक्यता परगटावन ताणें आपलें मत मांडलें. संवसारांतल्या देशांनी एकामेकांचेर आदारून रावन एकामेकांक पालव दिवपाच्या वावरांतल्यान तांच्यामदली द्वेशभावना पयसावतली अशें ताचें मत आशिल्लें. एके खाशेले दिकेन परगटायल्लीं ताचीं कांय मतां वास्तवतेंत खरीं थारलीं आनी झूज-काळांतल्यो समस्या सोडोवपाक ताचे कांय विचार लागू पडले. ताच्या ह्या वावराखातीर १९३३त शांततायेचो नोबेल पुरस्कार ताका फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## आंतेर: रामफळ आनी सीताफळ हे आंतेराचे दोन प्रकार.

१. **रामफळ:** (इंग्लीश: Bullock's Heart), शास्त्रीय नांव Annona Reticula)

हें झाड सादारण १० मी. मेरेन ऊंच वाडटा. पानां १०-२० सेंमी. लांब आनी २.५ सेंमी. ते ७.४ सेंमी. रुंद आसता, पानांक एक वेगळोच असो वास येता. फळ ७.५ सेंमी. ते १८ सेंमी. व्यासाचें आसता. फळांत काळ्यो बियो आसतात. फळ चडांतचड एक कि.ग्रॅ. वजनाचें आसूंक शकता.

ह्या झाडाचो उगम अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांनी जाला अशें समजतात. पूण कांय जाणकारांच्या मतान ताचो उगम वेस्ट इंडीज जुंव्यांनीं जाला.

अमेरिका आनी वेस्ट इंडीज वाठारांनी ह्या झाडाची लागवड बऱ्याच व्हड प्रमाणांत करतात. भारतांत ह्या पिकाची सगळ्यांत चड लागवड उत्तर प्रदेश राज्यांत आसा. गोंयांत ह्या फळांची पध्दतशीर लागवड जायना, मात गोंयकारांच्या पोरसानीं ह्या झाडाचें अस्तित्व चड करून आसताच.

झाडाची लागवड, बी वा कलम वापरून करूंक येता. लागवडीखातीर ६०x६०x६० सेंमी. लांब, रुंद आनी खोल अशा आकाराचे फोंड ८x८ मी. अंतराचेर खण्टात. ह्या फोंडकुलानीं रेंव, माती आनी कंपोस्ट भरून ताचेर २-३ बियो किल्लत घालतात. २०-२५ दिसां उपरांत बी किल्लून वयर येता.

हें झाड ६-७ वर्सांभितर फळ दिवंक लागता. ऑगस्ट-डिसेंबर म्हयन्यांत तें फुलता. ह्या फुलांचीं फळां जावंचेखातीर ८ म्हयने लागतात. फळां मार्च ते मे म्हयन्यांत तयार जातात. एक झाड सरासरी ६०-८० फळां दिता.

ओंकारो बंद जावंचेखातीर ह्या फळाचो उपेग जाता. ह्या फळांतलो म्होवलो माथ्यांतल्यो उयो मारून उडोवचे खातीर वापरतात. काळो रंग तयार करचेखातीरय ह्या फळाचो उपेग जाता. पिकिल्ल्या फळाची रूच गोड आसता. ह्या झाडाक कीड वा हेर रोगांचो व्हडलोसो उपद्रव जायना.

२. **सीताफळ:** (इंग्लीश: Custard Apple, शास्त्रीय नांव Annona squamosa). हें झाड ७ मी.मेरेन ऊंच वाडटा. पानां लांबट आसतात. लांबाय सुमार ५-१५ सेंमी. जाल्यार रुंदाय १.९ ते ३.८ सेंमी. इतली आसता. ह्या पानांक्य विचित्र असो वास येता. फळांतल्यो बियो लांबोड्यो चॉकलेटी रंगाच्यो आनी चकचकीत आसतात. बियांक वयल्यान फळाचो म्होवलो दशिल्लो आसता.

ह्या झाडाचो उगम भारतांत जाला अशें बऱ्याच जाणकारांचें मत आसा. बऱ्याच पोरन्या बरपावळींनी ह्या झाडाचो उल्लेख मेळटा. पूण कांय जाणांच्या मतान हें झाड मूळ अमेरिकेंतल्यान भारतांत पावलें.

अमेरिकेच्या कॅलिफोर्नीया वाठारांत फळझाडाची व्हड प्रमाणांत लागवड करतात. भारतांत हाची चडांतचड लागवड (९०%) आंध्रप्रदेश राज्यांत जाता. उत्तरप्रदेश, मध्यप्रदेश, बिहार, बंगाल, आसाम, गुजरात, महाराष्ट्र ह्या राज्यांनीय ह्या फळझाडाची लागवड जाता. गोंयांत ह्या झाडाची पध्दतशीरपणान लागवड केल्ली ना, पूण गोंयकारांच्या पोरसांत चड्डी ह्या झाडाक सुवात आसता.

सीताफळाच्यो बलसागर, बारबाडोस, ब्रिटीश गिनिया, मामोथ अशो जाती आसात. हालींच 'अटेमोया' ही एक नवी संकरित जात तयार केल्या. ही जात बऱ्या दर्जाचीं फळां दिता आनी हे जातीच्या झाडाच्या पानांनी कोडू रसायन आशिल्ल्यान, गोरवां आनी बोकडां हें झाड इबाडूंक शकना.

झाडाची लागवड चडशी बियो रुजोवन करतात. कलम पध्दत वापरुनूय झाडाची लागवड करूंक येता. बी किल्लत घाल्या उपरांत ७-३५ दिसांभितर तिका कोंब येतात. एक वर्स जाल्या उपरांत ५०x५०x५० सेंमी. लांब, रुंद आनी खोल फोंडकुलां ६x६ मी. अंतराचेर खणून जून म्हयन्यांत हो रोंपो तातूंत लायतात. ह्या झाडाक रसायनीक सारें घालपाची गरज ना. वर्सातल्यान एक फावट ताका ५०-७५ कि. ग्रॅ. शेणसारें घालतात.

झाड ५ व्या वर्सासावन फळां दिवंक लागता. मार्च-सप्टेंबर मेरेन ताका फुलां येतात आनी उपरांत ४ म्हयन्यांनी म्हळ्यार ऑगस्ट-जानेवारी मेरेन फळ तयार जाता. फळाचेर हळडुवो रंग पातळूंक सुरवात जालो म्हणटकच फळां काडटात. एक झाड सरासरी १००-२०० फळां दिता. कांय झाडां ५०० मेरेन फळां दितात.

ह्या झाडाचे बरेच वखदी उपेग जातात. फळांतल्या बियेचो पिठो पोटांत घेतल्यार दंत मरतात. हो पिठो मूस मारचेखातीर घरांत फाफुडटात. पानां वांटून सूज आशिल्ले सुवातेर लायत जाल्यार दूख उणी जाता. पातळ परसाकडेन जावपाचे पीडेचेर ह्या झाडाचे सालीचो रोस काडून पियेतात. सालींतलो दीख चामडें रांपवचेखातीर उपेगी आसता. झाडाचें लांकूड मोव आसलें, तरी ताका वायटी लागना, देखून तें बैलगाडी वा मदेराक वापरतात.

- विश्राम गांवकार

## आंतोनियु, मानुएल द् सांतुः (जल्मः बाणावली).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. १७०१ वर्सा पोप क्लेमेंत इकरावो हाणें ताका बिशप केलो. तो नामनेचो, डोमिनीकन पंथाचो धर्मशास्त्रवेत्तो आनी एक व्हड धर्मप्रसारक (मिशनरी) आशिल्लो. सोलोर आनी तिमोर (इंडोनेशिया) ह्या वाठारांत क्रिस्ती धर्माचो प्रचार करपांत ताचो म्हत्वाचो हात आशिल्लो, देखून पोर्तुगालचो राजा दाँ पेद्रु हाणें ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## आंद्राद, जॉर्ज फ्रांसिश्कु कायतानः (जल्मः ५ डिसेंबर १९३३, अंबाजी-साश्टी).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव पियेदाद आंद्राद. ताणें एस्. एस्. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. सुटके चळवळीच्या काळांत तो 'नॅशनल कॉंग्रेस', गोंय हे संघटनेचो वांगडी जालो आनी राजकीय वावर करूंक लागलो. १६ जून १९५४ दिसा पोलिसांनी ताका अटक केली आनी १८ म्हयने आग्वाद बंदखणीत दवरलो. गोंय सुटके उपरांत १९६६ वर्सा तो बारदेस कॉंग्रेस कमिटीचो चिटणीस आशिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## आंद्राद, फ्रॅंक राफाएल पाउलः (जल्मः १८ फेब्रुवारी १९१८, मुंबय; मरणः १२ जुलय १९८९).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव दुमींगु फ्रांसिस आंद्राद. ताणें एम्. ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. १९४५ वर्सा ताणें इराणाक आशिल्ले 'अँग्लो-इराणियन ऑयल कंपनी' हातूंतली नोकरी सोडली आनी सुटके झुजांत वांटो घेवंक तो भारतांत आयलो. जानेवारी १९४६ वर्सा तो मुंबय आयलो आनी थंय नाविक बंडाक तेंको दिवंक ज्यो बसका जाताल्यो तातूंत वांटो घेवंक लागलो. उपरांत डॉ. लोहियान केल्ले चळवळी पसून स्फूर्त घेवन तो गोंयां आयलो. गोंयां येवन डॉ. लोहिया आनी बॅरिस्टर नाथ पै हांच्या मार्गदर्शनाखाल ताणें वेगवेगळ्या वाठारांनी बसका घेतल्यो. २८ ऑक्टोबर १९४६ ह्या दिसा म्हापशां जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतलो देखून पोलिसांनी ताका अटक केली. ३० ऑक्टोबर १९४६ ह्या दिसा बार्देशच्या न्यायाधिशान ताका पांच म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. बंदखणीतल्यान सुटतकच तो भूंयगत वावर करूंक लागलो. तेखातीर पोर्तुगेज सरकारान पर्रा वाठारांत आशिल्ल्या ताच्या घराचेर जप्ती हाडली आनी उपरांत तें पावणेर काडलें. १९४७ वर्सा ताका धरपाचें फर्मान काडिल्लें. पूण तो मुंबय वचून लिपलो. १९४८ आनी १९४९ त तो दोन फावट नॅशनल कॉंग्रेस गोंय संघटनेचे मुंबय शाखेचो वांगडी चिटणीस म्हूण वेंचून आयलो. १९५१ वर्सा हे संघटनेचो सरचिटणीस म्हूण ताची नेमणूक केली. १९५२ वर्सा तो हे संघटनेचो परतो जोड चिटणीस जालो. १९५४ वर्सा 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' संघटनेचो क्रांतीकारी पंगड 'गोंय सोडात संस्था' हातूंत तो कमांडो आशिल्लो. ऑगस्ट १९५५ वर्सा डॉ. टी. बी. कुन्य हांचे अध्यक्षतेखाल, तो 'गोअन क्लब्स प्रोपागांडा कमिटी'चो चिटणीस जालो. १९५७ वर्सा नॅशनल कॉंग्रेस गोंय सघटनेचे कार्यकारी समितींत तो आशिल्लो. १८ जून १९८२ ह्या दिसा गोंय सरकारान सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## आंध्र प्रदेशः

भारतीय संघराज्यांतलें एक घटक राज्य. हें राज्य भारताचे दक्षिणेक वसलां. क्षेत्रफळः २,७५,०६८ चौ. किमी. लोकसंख्याः ५,३५,४९,६७३. राजधानीः हैदराबाद, भासः तेलुगू, साक्षरताः २९.७३%. अक्षांश आनी रेखांशः उत्तर १२° १४° ते १९° ५४' आनी उदेंत ७६°५०' ८६° ५०'. ह्या राज्याचे उत्तरेक महाराष्ट्र, मध्यप्रदेश आनी ओरिसा, दक्षिणेक तमिळनाडू आनी कर्नाटक, अस्तंतेक कर्नाटक आनी महाराष्ट्र तर उदेंतेक बंगालचो उपसागर येता. आंध्र राज्याक ९६० किमी. लांबायेची दर्यादिग आसा.

**भूंयवर्णनः** सादारणपणान आंध्र प्रदेश तीन सैमीक विभागांत मोडटा. दर्यादिगेवयलो सकयल, सपाट मैदानी वाठार, उदेंत घाटांत आशिल्ल्यो विसकळिल्ल्यो दोंगराच्यो वळी आनी अस्तंतेकडल्या सह्याद्रीकडलो दोंगर पठाराचो वाठार, तर सुटावीं खडपां, विसकळून पडिल्ल्यो दोंगुल्ल्यो हांणी भरिल्लो वाठार हे आंध्र प्रदेशाचे तीन सैमीक विभाग जावन आसात. ईशान्येकडलो दर्यादिगेवयलो वाठार अशीर आसा. दर्यादिगेवयलो मदलो भाग गोदावरी आनी कृष्णा न्हंयांक लागून पिकाळ जाला. ह्या वाठारांक ह्या न्हंयांचो त्रिभूजप्रदेश म्हणटात. दर्या देगेवयलो दक्षिण वाठार सकयल्या पांवड्याचे जमनीचो आसा. नैऋत्येसावन ईशान्येमेरेन पातळिल्ल्या उदेंत घाटाचे ९०० ते १५०० मी. उंचायेच्या दोंगरांत वेलिकोंडा आनी नल्लमलई ह्या दोंगरांच्यो वळी दर्याक समांतर येतात. ह्या दोंगरावळींचे अस्तंतेक नंधाळ देगण पडटा. ह्या राज्याच्या नैऋत्य आनी दक्षिण भागांत एरामलई, शेषाचलम् आनी पालकोंडा (९०० मी.) दोंगरा वळी आसात. आग्नेयेक नागरी दोंगर आसात. स्थलिप्राय वाठाराची उत्तरेखटेनची उंचाय सुमार ४५० ते ६०० मी. तर दक्षिणेवटेनची उंचाय सुमार ३०० ते ४५० मी. आसा. हो वाठार तांबडे रेंवेचे भरसणेन घडला. ही जमीन ग्रॅनायट आनी नायस हांचेपसून तयार जाल्या. उकत्यो-बोडक्यो दोंगुल्ल्यो, कांट्यांचीं झोपां-झुडपां, सुकिल्ले उदकाचे प्रवाह हांकां लागून हो वाठार तळपट्या सड्यावरी दिसता.

गोदावरी आनी कृष्णा न्हंयांक लागून ह्या राज्याचो बरोच मोटो वाठार उदकाळ आनी पिकाळ आसा. गोदावरी ही ह्या प्रदेशांतली मुखेल न्हंय आसून ती ह्या राज्यांतल्यान ७२० किमी. व्हांवन बंगालच्या उपसागराक मेळटा. राजमहेंद्री हांगा तिचो त्रिभूजप्रदेश सुरू जाता. कृष्णा न्हंयची मुखेल उपन्हंय तुंगभद्रा, कर्नाटक राज्यांतल्यान आयिल्ली पेन्नार, ओरिसा राज्यांतल्यान आयिल्ली वंशधारा आनी नागवली ह्यो न्हंयो आंध्र प्रदेशांतल्यान व्हांवतात.

**हवामानः** आंध्रप्रदेशांत गिमाच्या दिसांनी तापमान ३७° से. ते ४४° से. मेरेन आसता. कांय जाग्यार ते ५०° से. मेरेन वता. शिंयाळ्याच्या



दिसांतलें तापमान १६° से. ते १९° से. मेरेन आसता. दर्यादिगेवयल्या वाठारांत शिंयाळो आनी गीम चड खर नासता. आंध्र प्रदेशाक दक्षिण अस्तंत मान्सूनाकडल्यान दोन-तृतियांश तर उत्तर उदेंत मान्सूना कडल्यान एक-तृतियांश पावस मेळटा. उत्तरेच्या दोंगराळ वाठारांत ११० ते १२५ सेंमी. पावस झडटा. बंगालच्या उपसागरांतल्यान येवपी वादळांक लागून ह्या वाठारांत नेटाचो पावस झडटा. तेलंगाणा रायलसीमा (अनंतपूर, चित्तूर, कडप्पा, कर्नूल हे जिल्हे) आनी दर्यादिगे वयल्या वाठारांनी पावसाचें प्रमाण क्रमान उणें जायत वता.

बंगालच्या उपसागरांतल्यान येवपी वादळ-वारें आंध्र प्रदेशाक व्हड लुकसाण दिता. आयजवयर जाल्ल्या वादळ-वाऱ्याक लागून आंध्राक अर्थीक लुकसाणी वांगडाच जिवीतहानीय सोंसची पडल्या.

**वनस्पत आनी मोनजातः** ह्या राज्याचो २२.५% वाठार रानाच्या वा वनस्पतीच्या शेकातळा आसा. तेलंगाणा, विशाखापट्टणम्, गोदावरी जिल्हे आनी नल्लमलई पर्वत हांगा चडशीं रानां आसात. तातूंत सागवान, रोजवुड, सॅटिन वुड, मड्डी, येपी सारके रूख, तशेंच कोंडे, कच्छवनश्री हांचीं बनां दिसतात. राज्यांतल्यान वनस्पती सावन (रानांतली) सन १९८१-८२ वर्सा, ह्या राज्याक १५७.१७७ रुपयांचो निव्वळ फायदो जालो. बिबटो वाग, चित्तो, लांडगो, कोलो, वांस्वेल, चार शिंगाचीं हरणां, सांबर ह्या राज्याच्या रानांत आसात. ते भायर गोरवां, म्हसरां, बोकड्यो, मेढरां हीं जनावरां लोक पोसतात.

**इतिहासः** ऐतरेय ब्राह्मणांत आंध्र प्रदेशांतल्या लोकांचो उल्लेख सगळ्यांत पयलीं मेळटा. मॅगेस्थेनीसान चंद्रगुप्त मौर्या आदलो आंध्र संपन्न आशिल्ल्याचें म्हळां. धनकटक उपरांत अमरावती ही त्या काळांत आंध्र प्रदेशाची राजधानी आसली. आंध्र प्रदेशांतले मूळ लोक आर्य वंशकुळाचे आसले. उपरांत ते विंध्य पर्वताचे दक्षिणेक आयले, थंय तांचो हेर वंशीयावांगडा संबंद आयलो. इ.स. प. चवथ्या शतमानांत जैन आचार्य भद्रबाहू आपल्या अनुयायांवांगडा ह्या भागांतल्यान गेल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. सम्राट अशोकाच्या फातरापटयांत आंध्र प्रदेशाचो उल्लेख येता. इ. स. प. सुमार २२५ वर्सां सिमुक राजान पैठण हांगा सातवाहन घराण्याची थापणूक केली अशें जाणकार मानतात. सातवाहनांनी सुमार साडेचारशीं वर्सां राज्य केलें. यज्ञश्री शातकर्णी, हाल, गौतमीपुत्र शातकर्णी, पुलुमायी हे ह्या वंशकुळयेंतले नामनेचे राजा आसले. तांचे राजवटींत कला, साहित्याची खूब उदरगत जाली. ह्या काळांत तांचो रोमन साम्राज्याकडेन संबंद आयलो, तशेंच तरसादी खातीर लागपी पोलाद आंध्रांतल्यान निर्गत जाल्ल्यान युरोपाकडेनय तांचो खासा संबंद उरलो. तिसऱ्या शतमानांत शक, पल्लव, यवन हांच्या वांगडा झुजपाक पडिल्ल्यान सातवाहनांची राजवट अस्ताक गेली आनी त्या जाग्यार नाग, बृहत्पालायन, सालंकायन, इक्ष्वाकू हीं घराणीं उदयाक आयलीं. सातवाहनांचें मूळ मांडलिक आशिल्ल्या 'इक्ष्वाकू' राजघराण्यान नागार्जूनकोंडा देगणांत श्री पर्वतालागीं विजयपूरी हांगा आपली राजधानी बांदली. बौध्द धर्माचें शिक्षण, कला हांचें तें केंद्र मानताले.

ह्यूएनत्संगान, आंध्राचे ईशान्येक गंग, उदेंतेकडेन वेंगीचे चालुक्य, दक्षिणेक चोल, पल्लव आनी हेर राज्यां आशिल्ल्याचो उल्लेख केला. सन ८५० च्या अदमासाक वेंगीच्या चालूक्यांमदलो विजयादित्य (तिसरो) हाणें सद्याच्या आंध्र प्रदेशांतलो बरोचसो व्हडलो वाठार आपल्या शेकातळा हाडिल्लो. ते उपरांत ताणें आपली राजधानी वेंगीथावन विजयवाड्याक व्हेली. इ.स. १०२२ ते १०६३ मेरेन चालुक्य राजा राजराजनरेंद्र हाणें राजमहेंद्री ही आपली राजधानी करून वेंगीदेशाचेर राज्य केलें. चालुक्य राजांनी मोट्या प्रमाणांत विद्वानांक आसरो दिलो. तेलुगू महाभारताचो लेखक नन्नय भट चालुक्यांचेच सेवेक आशिल्लो.

चालुक्याच्या काळांत राश्ट्रकूट, चोल, काकतीय हांची राजवट आंध्राच्या विंगड विंगड वाठारांनी आसली. आंध्रांत वरंगळ हांगा इ.स.

११५० ते १३२५ ह्या काळांत काकतीय राजांनी राज्य केलें. काकतीय हे मूळ राष्ट्रकूट आसलें. पूण तें रोखडेंच आंध्र लोकांचे जिणेंत आस्पावलें. वेंगीचे चालुक्य जेन्ना तमिळनाडूंतल्या चोल राजांचे गादयेर आपलो हो हक्क सांगपाक लागले, तेन्ना दोनूय सत्तांमदीं संघर्श सुरू जालो. ह्या संघर्शांत काकतीयांनी चालुक्यांक चोला आड आदार दिलो. काकतीयांनी केल्ल्या आदाराक लागून चालुक्य युवराज कुलोत्तुंग ह्या नांवान चोल राज्याचे गादयेर बसलो अशे तरेन चालुक्य दोन प्रदेशाचो कारभार पळोवपाक लागले. हाका लागून तांचें आंध्रावेलें लक्ष उणें जालें. काकतीयांनी ह्या गजालींचो फायदो घेवन पुराय आंध्र आपल्या शेकातळा हाडलो. गणपतिदेव (१२०२-६२), ताची चली रुद्रम्मादेवी (१२६२-९२) आनी तिचो नातू प्रतापरूद्र दुसरो (१२९२-१३२३) हे काकतीय वंशांतले म्हत्वाचे राज्यकर्ते जावन गेले. १३२३ त दिल्लीच्या तुगलक सुलतानान काकतीयांआड झुजून आंध्र आपल्या ताब्यांत घेतलो. हरिल्ल्या काकतीय राजघराण्यासावन आनीक चार ल्हान राजघराणीं उदयाक आयलीं; हातूंतल्या विजयनगर राजघराण्यान सुमार दोनशीं वर्सां मुसलमानी सत्तेआड झूज दिलें. २३ जानेवारी १५६५ दिसा बळिश्ट दखखनच्या सुलतानान विजयनगरच्या सैन्याक 'तालीकोटा' हांगा हारयलें.

दुसरेवटेन इस्लामी घुरयेचो नेट देंवतकच रेड्डी घराण्यान आंध्र प्रदेशाचेर आपलो ताबो मेळयलो (१३२८-१४२४). कृष्णदेवराय हो व्हड सम्राट १५०९ ते १५३० मजगतीं आंध्राचेर राज्य करतालो. ताणें विद्वानांचो आदार केलो. तेचपरी तेलुगू साहित्यांत ताणें मोलाची भर घाली. १५६५ त विजयनगराचें साम्राज्य नाश पावतकच मुसलमानांनी आंध्रांतली सत्ता हातासली. बहमनी राज्यांतल्या तेलुगू भाशीक तेलंगणाचेर कुली कुतूबशहाची नेमणूक जाली. बहमनी राज्याचे कुडके पडले तेन्ना कुली कुतूबशहान गोलकोंड्यांक कुतूबशायीची थापणूक केली. १५८० मेरेन आंध्र प्रदेशाचो चडसो वाठार कुतूबशहाकडेन आयलो. ताचे राजवटींत दखखनच्या उर्दूचो आंध्रांत प्रसार जालो. कुतूबशहाचे हुशार सरदार आकण्णा आनी मादण्णा हांणी राज्यकारभारांत सुदारणा करपाक व्हड यस जोडलें. तेचपरी तांणी तेलुगू साहित्य आनी कलेक आसरो दिलो. सद्याच्या तेलंगण वाठारांत आयजूय कुतूबशायीचो प्रभाव चड दिसता. १६८७ त गोलकोंडा औरंगजेबान जिखलो आनी अशे तरेन आंध्राचो मोगल राजवटीकडेन संबंद आयलो. औरंगजेबान असफ जहाक दखखनचो सुभेदार म्हूण नेमलो. औरंगजेबाच्या मर्णा उपरांत मोगल वंशीयांमदीं उप्राशिल्ल्या तंट्या, झगड्यांचो फायदो घेवन ताणें बंड केलें आनी स्वताच्या स्वतंत्र निजामशायेची थापणूक केली. ह्याच वेळार मराठ्यांची सत्ता वाडीक लागिल्ली. सुमार शंबर वर्सांच्या काळखडांत निजाम-मराठ्याचे संबंद कांय फावट इश्टागतीचे तर कांय फावट दुस्मानकायेचे उरले.

१६११ त मछलीपट्टणम् हांगा ब्रिटिशांनी कुतूबशायेचे मान्यतायेन एक भंगसाळ सुरू केली. तशेंच सलाबतजंगान फ्रेंचांक आपलो कांय वाठार तोडून दिलो आनी फ्रेंच सैन्याचो आदार घेतलो. १६२८ त डच लोकांनी अस्तंत गोदावरी जिल्ह्यांत माधवपलायम हांगा लोखणी सामानाचो कारखानो सुरू केलो. युरोपियन लोक अशे तरेन आंध्रांत रिगले. फ्रेंच-ब्रिटीश हांच्याभितरल्या झुजांत मनांत नासूनय निजामाक ब्रिटिशांचो पाखो घेवंचो पडलो. सुमार १७९५ त निजामांनी ब्रिटिशांक गंजाम, विशाखापट्टणम, गोदावरी, कृष्णा, गुण्टूर हे जिल्हे तस्त्रीप म्हूण भेटयले. टिपू सुलतानाची राजवट सोंपतकच निजामाच्या वांट्याक आयिल्ले बेल्लारी, कर्नूल, अनंतपूर आनी कडप्पा हे जिल्हेय ताणें १८०० त ब्रिटिशांक दिवन उडयले.

१८५७ चे चळवळी उपरांत आंध्रांचो ताबो ईस्ट इंडिया कंपनीकडल्यान ब्रिटीश सरकारान घेतलो. त्यावेळार मद्रास इलाख्यांत तेलंगणाचो आस्पाव आशिल्लें, हैदराबाद संस्थान आनी चडसो आंध्र आस्पावल्लो. तेलुगूभाशीक लोक तीन-चार राजकीय विभागांत शिंपडून पडिल्ले. भारताच्या स्वातंत्र्या उपरांत निजामान भारतांत विलीन जावपाचें न्हयकारलें, तेन्ना पोलिस-कारवायेवरवीं ताचो वाठार लश्करी नियंत्रणाखाला हाडलो. १९५२ त बी. रामकृष्णराव हो हैदराबाद राज्याचो पयलो मुखेलमंत्री जालो.

मद्रास इलाख्यांत आशिल्लो आंध्र वेगळो काडचो हे खातीर आंध्रमहासभा १९१३ सावन चळवळ करताली. तेलुगू-भाशीक आंध्र राज्याची थापणूक जावंची हेखातीर पोट्टी श्रीरामलू हाणें ५८ दिसांचो उपास केलो. उपास करतासतनाच ताका मर्ण आयलें. १ ऑक्टोबर १९५३ दिसा इकरा जिल्ह्यांचें नवें आंध्र राज्य (राजधानीः कर्नूल) अस्तित्वांत आयलें. भाशावार प्रांतरचनेखाला अस्तित्वांत आयिल्लें आंध्र प्रदेश हें भारतांतलें पयलें राज्य आसलें. टी. प्रकाशम आंध्र प्रदेशाचो पयलो मुखेलमंत्री म्हूण वेंचून आयलो, पूण अविस्वासाचो थराव ताच्या मंत्रीमंडळाआड मानून घेतिल्ल्यान ताच्या सरकारान राजीनामो दिलो. १९५५ त आंध्र प्रदेशांत काँग्रेस युनायटेड फ्रंट वेंचून आयलो आनी गोपाळ रेड्डी ह्या राज्याचो मुखेलमंत्री जालो. मदल्या काळांत मिश्रा कमिशनान बेल्लारी जिल्ह्याचो कानडीभाशीक प्रांत म्हैसूर (कर्नाटक) राज्याक दिलो (मे १९५३). हैदराबाद राजधानी आशिल्ले तेलंगाणा, वेगळें राज्य म्हूण मेळचें असो यत्न चेन्ना रेड्डी आनी हेर लोकांनी केलो पूण तातूंत तांकां यस मेळ्ळेंना. राज्यपुनर्घटना समितीचे शिफारशीप्रमाण नोव्हेंबर १९५६ त आंध्र (११ जिल्हे) आनी तेलंगाणा (९ जिल्हे) मेळून आंध्र प्रदेश घडलो. नव्या आंध्र प्रदेश राज्याचो पयलो मुखेलमंत्री जावपाचो मान संजीव रेड्डीक मेळ्ळो. आंध्रांतल्यान तेलंगाणा वेगळें काडपाची चळवळ मात चालू उरली.

**राज्यवेवस्थाः** प्रशासकीय कामांत सुटसुटीतपणा हाडचेखातीर आंध्र प्रदेशांत अनंतपूर, चित्तूर, कडप्पा, उदेंत गोदावरी, गुण्टूर, कृष्णा, कर्नूल, नेल्लूर, प्रकाशम, श्रीकाकुलम, विशाखापट्टणम, विजयानगरम, अस्तंत गोदावरी, आदिलाबाद, हैदराबाद, रंगा रेड्डी, करीमनगर, खम्मम, महबूबनगर, मेदक, नलगोंडा, निजामाबाद, वरंगळ हे तेवीस जिल्हे घडयल्यात. आंध्र प्रदेशाचे विधानसभेंत २९५ वांगडी वेंचून काडटात. आंध्रांची विधान परिशद १ जून १९८५ वर्सा बरखास्त जाली. लोकसभेंत ४१ तर राजसभेंत १८ वांगडी आंध्र प्रदेशाचे प्रतिनिधित्व करतात. हैदराबाद शारांत राज्याचें उच्च न्यायालय आसा तशेंच जिल्हा आनी तालुका पांवड्याचेर न्यायदानाचें काम चलता.

**अर्थीक स्थितीः** आंध्र प्रदेश आपले सैमीक गिरेस्तकायेचो उपेग आपली अर्थीक स्थिती घट करपाक करता. राज्यांतले सुमार ७४% टक्के लोक शेत-धंद्यांत आसात. कृष्णा, गोदावरी, पेन्नार आनी हेर न्हंयां देगांच्या पिकाळ वाठारांत तांदूळ, ऊंस, केळीं, आंबे, हीं फळां आनी पिकावळी जातात. तेलंगाणा वाठारांत कापूस, तंबाखू, मिरसांग, हळद, ज्वारी बाजरी आनी हेर धान्यां जातात. दखखनचें पठार आनी रायलसीमा वाठारांतले तांबडे जमनींत कुळीद, भिकणां, दोन दाबीचें धान्य, फळ-फळावळ जाता. कांय उदकाळ वाठारांत कापूस, तंबाखू, ऊंस तर ह्याच सैमीक विभागांतल्या जांभ्या फातराचे जमनींत नाल्ल, सुपारी हीं कड्डुणां, फळां आनी कांय वाठारांत तांदूळ पिकता. सादारणपणान आंध्र आपले गरजेपरस चड तांदूळ पिकयता. १९८१-८२ त तांदळाचें उत्पादन ११.४ दशलक्ष टन जालें. ९.२२ दशलक्ष हेक्टर जमीन फळ-फळावळीखाला आसून १३.०४ दशलक्ष हेक्टर जमीन लागवडी सकल हाडल्या. लागवडीखाला आशिल्ल्या पुराय जमनींतली २६% जमीन भात-पिकाखाल, २०% ज्वारीखाल तर १५.९% बाजरी, नासणो, राळ, मको, वरई, सावा, गंव ह्या पिकावळीखाला आसा. कालवे, बांध, तळयो, बांयो, आनी हेर शिंपणावळीच्या सादनांवरवीं आंध्रांतलो शेतकार वर्साक तीन फावटीं लेगीत पीक काडटा. चक्रीवादळ, हुंवार, दुकळ ह्या सैमीक संकश्टांचो त्रास ह्या राज्यांक खूब फावट सोंसचो पडला. ताचो परिणाम शेत-पिकावळीचेर जाला. १९७२ त दुकळ पडिल्ल्यान ६०० कोट रूपयांचें लुकसाण आंध्र प्रदेशाक सोंसचें पडलें.

**खनीज संपत्ती:** आंध्र प्रदेशांतले सगळ्यांत पोरने फातर आर्कीयन काळांतले आसून तातूंत गुलाबी आनी गोबऱ्या रंगाचे ग्रॅनायट, नायस आनी थोड्या प्रमाणांत धारवाड वर्गाचे हॉर्नब्लेंड टाल्क, क्लोरायट, मायका, शिस्ट, लोही, क्वार्टझायट, खोंडालायट, नेफेलिन, सयेनायट हे फातर मेळटात. ह्या आर्कीयनकालीन फातरांत लोखण, मँगनीज, तांबें, क्रोमायट आनी हेर धातू तशेंच अभ्रक, बेरिल, ग्राफायट, कायेनायट, सिलिमनायट आनी हेर जायतीं उद्देगीक म्हत्वाचीं खनिजां मेळटात. खम्मम, अदिलाबाद, करीमनगर, वरंगळ आनी अस्तंत गोदावरी हांगा ३९०८ दशलक्ष टन कोळशाचे सांठे आसात. अदिलाबाद, हैदराबाद, मेहबूबनगर, कर्नूल, कडप्पा, गुण्टूर नलगोंडा आनी कृष्णा हांगां २,०१८ दशलक्ष टन चुन खडीचे सांठे आसात. अनंतपूर, करीमनगर, आदिलाबाद, चित्तूर, खम्मम, प्रकाशम, कृष्णा, कर्नूल, कडप्पा हांगां ३९० दशलक्ष टन लोखणाचे साठे आसात. विशाखापट्टणम हांगा आशिल्ले बॉक्सायटचे सांठे ३० दशलक्ष टन आसात.

**उदकांतली पिकावळ:** आंध्र प्रदेशाक ९८२ किमी. लांबायेची दर्यादेग मेळ्ळ्या. दर्यांतलो सुमार ३२,००० चौ. मैल वाठार नुस्तें मारपाखातीर वापरपाक मेळटा. वर्साक ४ लाख टन नुस्तें नुस्तेमारी केंद्रांवरवीं धरतात. १९८० त १,१६,०१३ टन नुस्तें दर्यांत धरलें. काकीनाडा आनी मछलीपट्टणम् हांगा नुस्तेंमारी प्रशिक्षण केंद्रां आसात. सद्या राज्य सरकार, ऊंच तंत्रगिन्यानाच्या आदारान अत्याधुनिक ट्रॉलर बांदपाचो विचार करता. तेभायर उदकांतली नुस्तेमारी करपाक एक जोड नुस्तेमारी प्रकल्प राज्य सरकारान हातांत घेतिल्लो आसून ताचेर २३८.० दशलक्ष रुपया खर्च येवपाचो आसा. तेखातीर संवसारीक बँकेन १५०.५ दशलक्ष रुपयांचें रीण दिलां. आंध्र प्रदेशांतले ३.२६ लाख लोक नुस्तेंवेवसायांत आसात.

**पर्यटन:** आंध्र प्रदेशांत आशिल्ल्यो इतिहासीक वास्तू, पवित्र देवमंदिरां पर्यटकांक आकर्शीत करपी म्हत्वाचीं थळां जावन आसात. चित्तूर जिल्ह्यांत तिरुपती हांगाचें श्री वेंकटेशाचें देवूळ, भद्राचलमचें श्रीरामचंद्राचें देवूळ, श्रीशैलम हांगा आशिल्लें मल्लिकार्जुनस्वामीचें देवूळ, तशेंच आहोबलम, श्रीकुमकुम आनी सीमाचलम हांचीं देवळां आंध्र प्रदेशांतलीं म्हत्वाचीं आनी नामनेचीं देवळां जावन आसात.

हैदराबाद-सिकंदराबाद जोड-शारां, हुसेन सागर, १५९१ त बांदिल्लो चार मीनार, उस्मानिया विश्वविद्यापीठ, सालारजंग म्युझीयम, राज्य म्युझीयम, आर्ट गॅलरी, हेल्थ म्युझीयम, नेहरू जिऑलॉजिकल पार्क, बिर्ला मंदर हीं हैदराबादांतलीं मुखेल थळां.

हैदराबाद सावन ८ किमी. अंतराचेर आशिल्लो गोलकोण्डा किल्लो पर्यटनाचे नदरेन म्हत्वाचें थळ आसा. नामनेचे कोहिनूर आनी पिट हिरे गोलकोण्ड्याचे खणींत मेळिल्ले.

**उद्देगधंदे:** आंध्र प्रदेशांत उद्देगधंद्यांची वाड नेटान जायत आसा. १९८८-८९ च्या अदमासपत्रकांत उद्देगीक कारखाने आनी खनिजां हांचेखातीर ६२ कोटी रुपयांची तजवीज केल्ली. राज्यांत ६४९ मध्यम आनी व्हड उद्येग आसून तातूंत ३३५३.१३ कोटी रुपयांचें भांडवल घोळटा. हातूंतल्यान ४.३ लाख लोकांक रोजगाराच्यो संदी मेळ्ळ्यात. ६६५३४ ल्हान उद्येग राज्यांत आसून तातूंत ८७८.२३ कोटी रुपयांचें भांडवल घोळटा. हातूंतल्यान ६.२५ लाख लोकांक रोजगाराच्यो संदी मेळ्ळ्यात.

हैदराबाद आनी विशाखापट्टणम् हीं उद्येगधंद्याचे नदरेन म्हत्वाचीं केंद्रां आसात. हांगा मशिन टूल्स, सिंथेटिक ड्रग्स, फार्मास्युटिकल्स, विद्युत् यंत्रां, बोटी, सारीं, विद्युत् उपकरणां, विमानाचे भाग, शिमीट, रसायन ॲसबॅस्टोस, गाडयो, शिमीटापसून घडोवपाक येवपी वस्तूंचे कारखाने आसात. हैदराबाद शार येरादारीचे नदरेन फाव त्या जाग्यार आशिल्ल्यान चडशे सरकारी आनी खाजगी कारखाने थंय वयर सरल्यात. मछलीपट्टणम्, वरंगळ, धर्मावरम, एमिंगनुर, गढवाल, ताडपत्री हांगाचें हातमागाचें कापड, अघोणीच्यो शेंदऱ्यो, कोंडापल्ली आनी निर्मळ हांगाचीं खेळणीं, हैदराबादचें बिदरीकाम, जरकाम, भरतकाम, शिंगां आनी हस्तीदंताच्यो वस्तू, गुण्टुरचो तंबाखू, अदिलाबादचें फर्निचर हे कुटिरोद्येगय बरे चलतात. गुण्टुरच्यो चिनी मातयेच्यो वस्तू आनी ग्लासाचो कारखानो, निजामाबादचो निजाम साकर कारखानो सिंगारेनी कोठांगुडमच्यो कोळशां खणी सरकारी कारखान्यांच्या क्षेत्रांत आस्पावतात.

जून १९७७ मेरेन आंध्र प्रदेशांत ५१ उद्येगीक वसाहती, २८ उद्येगीक उदरगत विभागांत आसल्यो आनी २० उद्येगीक वसाहती तशेंच चार उद्येगीक उदरगत विभागांतलीं कामां मुळाव्या पांवड्यार आसलीं. राज्यांत ६,००,००० लाख हातमाग केंद्रां आसलीं. ह्या केंद्रांत १९८१-८२ त ४२० दशलक्ष मी. हातमाग तयार जाल्ले. देशांत तयार जावपी हातमागांतले २०% हातमाग आंध्र प्रदेशांतल्यान निर्यात जाता.

सिगरेटी, चिरूटां, सारें, साकर, भात सडोवप, भाता कुंड्यातलें तेल काडप, ॲस्बेस्टॉसचे पत्रे करप, लोखणाचें सामान, तेल शुध्दीकरण हांचे कारखाने तशेंच लोखण, अभ्रक स्लेट, शाहबादी फरशी, संगमरवर, बॅरायटस आनी हेर खनिजांचेर आदारिल्ले उद्देगधंदे सद्या आंध्रांत वयर सरल्यात. हांकां लागून आंध्राचे अर्थवेवस्थेक घट फाटबळ मेळ्ळां.

**शिंपणावळ आनी ऊर्जा:** १९८०-८१ वर्सा ल्हान आनी व्हड शिंपणावळ प्रकल्पा वरवीं आंध्र प्रदेशांतली १.२५९ दशलक्ष हेक्टर जमीन उदकाचो लाव घेवपाक उपकारताली. तातूंतली ०.८२८ दशलक्ष हेक्टर जमीन शिंपणावळ क्षेत्राखाल हाडली. १९८०-८१ मेरेन जे म्हत्वाचे शिंपणावळ प्रकल्प तयार जाल्ले तांचीं नांवां आनी तांक फुडलेप्रमाण आसलीः प्रकाशम बॅराज (४०,८७३ हेक्टर), तुंगभद्रा हाय लेव्हल कानाल स्टेज-१ (४८,१९८ हेक्टर), तुंगभद्रा लो-लेव्हल कानाल (६०,२९८ हेक्टर), के. सी. कानाल (०.१२२ दशलक्ष हेक्टर), कदम (४७,९२० हेक्टर), नागार्जुनसागर (०.८६८ दशलक्ष हेक्टर) आनी श्रीरामसागर (०.२९६७ दशलक्ष हेक्टर) ह्या प्रकल्पाचो वावर सुरू आसलो. ल्हान शिंपणावळ प्रकल्पांची उदरगत करपाक राज्य-सरकारान संवसारीक बँकेचो आदार घेतला. हातूंत १४६ ल्हान शिंपणावळ येवजणी आनी २०० पाझर तलाव हांचो आस्पाव आसून तांची तांक २,३२,४०३ हेक्टर जमनीक उदका पुरवण करपाइतली आसतली (८०-८१). राज्यांत उदक आनी उश्णतायेवरवीं विजेचें उत्पादन जाता. मच्छकुंड, तुंगभद्रा, निजाम सागर, अपर सिलेरू, लोअर सिलेरू, श्रीशैलम, नागार्जुनसागर, रामपदसागर, इंचेपल्ली, प्राणहिता आनी हेर प्रकल्पांत उदकावरवीं विजेची निर्मणी जाता. हुसेनसागर, रामगुंडम आनी तेलंगाणा तशेंच हेर प्रकल्पांत उश्णतायेवरवीं (औष्णिक) विजेची निर्मणी जाता. १९८१-८२ त ८,८७३.९ विजेची निर्मणी जाली. राज्यांत १९,२८४ खेड्यांत वीज पुरवण जाली.

**येरादारी आनी संचारण:** १९८१-८२ मेरेन राज्यांत राश्ट्रीय महामार्ग (२३५७ किमी.), राज्य महामार्ग (८३८७ किमी.) मुखेल जिल्हामार्ग (१८०७२ किमी.) जिल्हा परिशद आनी समिती मार्ग (७४,९३० किमी.) आसले. कार, जीप, मोटार, सायकल, स्कूटर, ऑटोरिक्शा, ट्रॅक्टर, बसी, ट्रक, टेंपो मेळून २,७२,२७४ वाहनां रस्त्यांवेल्यान घोळटालीं.

गोदावरी कालवो, कृष्णा कालवो, बकिंगहॅम कालवो, कर्नूल-कडप्पा कालवो, कोम्मापूर कालवो हे राज्यांतले अंतर्गत उदकामार्ग आसात. उदकामार्गाची वट्ट लांबाय १८४५ किमी. आसा. दर्यावेल्या उदकामार्गाचेर विशाखापट्टणम् आनी काकिनाडा हीं मुखेल बंदरां आसात. मछलीपट्टणम् भीमुनीपट्टणम्, कृष्णापट्टणम् आनी कलिंगपट्टणम् हींय दर्यादेगेवयलीं म्हत्वाचीं बंदरां आसात. राज्यांतल्यान ६,२२४ किमी. लांबायेचे रेल्वे-मार्ग गेल्यात. वॉल्टेअरचे उत्तरेक दक्षिण-पूर्व रेल्वेचो तर मद्रास आनी गुण्टूर हांच्या मजगतीं दक्षिण रेल्वेचो कांय भाग आंध्रांत आस्पावला. दक्षिण मध्य रेल्वेचें मुख्यालय राज्यांतल्या सिकंदराबाद शारांत आसा. राज्यांतलो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ हैदराबाद हांगा आसा.

राज्यांत जीं मुखेल दिसाळीं उजवाडाक येतात, तीं फुडले तरेन आसात. *इंग्लीश:* डेक्कन क्रॉनिकल-हैदराबाद, इंडियन एक्सप्रेस-हैदराबाद, आनी विजयवाडा, हिन्दू- हैदराबाद, *तेलगू:* आंध्रप्रभा-हैदराबाद आनी विजयवाडा, आंध्र ज्योती-विजयवाडा, आंध्रभूमी-हैदराबाद, इनाडू- हैदराबाद, विशाखापट्टणम्, विजयवाडा आनी तिरुपती. *उर्दू:* सियासत. *हिन्दी:* मिलाप- हैदराबाद.

**लोक आनी समाज जीवन:** १९८१ च्या जनगणने प्रमाण २,७५,०६८ चौ. किमी. क्षेत्रांत ५३,५४९,६७३ लोक रावतात. दर चौ. किमी. १९४ लोक पडटात. दर १००० दादल्यांफाटल्यान ९७५ बायलो राज्यांत आसात. लोकसंख्या वाडीचें प्रमाण ७.८२% टक्के आसा. साक्षरतेचें प्रमाण २९.७३% आसून राज्यांतलीं मुखेल संपर्काची आनी उलोवपाची भास तेलुगू आसा. कांय वाठारांत उर्दूचोय वापर जाता. १९६१ च्या जनगणनेप्रमाण राज्यांत हिंदू ८८%, मुसलमान ८%, आनी किरिस्तांव ४% आसात. आंध्र, भिल्ल गोंड, प्रधान, शबर वाल्मिकी, कोया, चेंचू, एरूकुल आनी हेर प्रकाराच्यो सुमार ३१ वन्य आदिवासी जमाती आसून तांच्यो भासो आनी पोटभासो वेगवेगळ्यो आसात.

**रीतरिवाज:** भुरगें जल्मतकच, बाराव्या दिसा बारसो करतात. भुरग्यांक पाळण्यांत घालून आरती करतात. ह्या वेळार सवाशीण बायलेक हळद कुकूम आनी फराळ दितात. मंगलारती गावप हें आंध्र संस्कृतायेचें खाशेलेपण जावन आसा. दर सणा-परबेक अशीं पदां गायतात. आंध्रांत चलयेचें लग्न मामेभावाकडेन वा मामाकडेन जावपाक शकता. हाका 'मामेसंबंद' म्हणटात. लग्नाचो मांटव माडाच्या चुडटांपसून करतात. लग्नाची वरात व्हड दबाज्यान काडटात. घरांत कसलेंय बरें कार्य आसल्यार दार निवळ करून शेणान सारयतात.

आंध्रांत वर्ष प्रतिपदा ही परब व्हड उर्बेन मनयतात. त्या दिसा गोड, चिंचेचे कोळ आनी कोडुलिंबाचीं फुलां घालून केल्लें 'पच्चड' नांवाचें पेय सगळ्यांक दितात. रामनमीची परब नाटकां, बुर्रकथा सारक्या कार्यावळींनी मनयतात. श्रावण म्हयन्यांत लग्न जाल्ल्यो चलयो मंगळाराक 'नोमू' म्हळ्यार गौरीचें व्रत करतात. श्रावणांतल्या दुसऱ्या सुक्राराक सवाशीण बायलो वरलक्ष्मीव्रत करतात. ह्या व्रतांत पूजा, उपास आनी हळदीकुकूम हे विधी मुखेल आसतात. श्रावण शुध्द अष्टमीक महाकालीचो दीस सकयल्या वर्गांतल्यो बायलो मनयतात. भाद्रपद वद्य तयेक आंकवार चलयो गौरीचें व्रत करतात. दिवाळेची परब आंध्रांतल्या हेर खंयच्याय वाठारापरस तेलंगाणांत उमेदीन मनयतात. होळयेची परब फकत तेलंगाणांतच मनयतात. ह्या वेळार दादले-बायलो एकमेकांचेर रंग शिंवरीत होळी खेळटात. सक्रांतीची परब तेलंगाणा सोडून हेर आंध्रांच्या वाठारांनी मनयतात. ह्या दिसा ल्हान चलयो रांगोळी काडून तिचेर शेणाचे गुळे दवरतात आनी ताची पूजा करतात. ह्या प्रकाराक 'गोब्बीपूजा' म्हण्टात.

शातकर्णी आनी काकतीय राजांच्या काळांत आंध्र कारागिरी आनी हस्तवेवसाय भरभराटीच्या तेमकार आशिल्लो. हांगाची मलमल, गढवालच्यो साडयो, मच्छलीपट्टणम्चे कलमकारी कापड, देवादिकांचीं चित्रां, कोंडापल्लीं तिरूपतिचीं चंदनाचीं आनी पितळेची खेळणीं, विशाखापट्टणम्चें हस्तिदंती कोरीव काम, शिंगां आनी कासवाच्या कट्ट्यावयलें कोरीव काम, तशेंच कंवची आनी नकली फातराचीं कांकणां आनी मणी, कलेच्या मळावयलीं खाशेलीपणां जावन आसात. आंध्रांतली लोकरीसावन केल्ली कांबळ एका काळार बरीच नामना जोडून आसली. रस्मी वस्त्राचे विंगड विंगड प्रकार, नागबंधनम, पट्टेडुकावू, कादंबकावू, चंदनकावू, रुद्राक्षवस्त्रे, वसंतविलास, लक्ष्मीविलास, हंसावली ह्या नांवान नांवाजल्ले आसात. हांगाच्या पानदाणी, अत्तरदाणी सारक्या वस्तूंत बिद्रीकामाचे नमुने दिश्टी पडटात.

आंध्र प्रदेशांतल्या लोककलांभितर रस्त्याचेर जावपी 'विधी नाटक' नांवांच्या तेलुगू नाटकाचो एक प्रकार आस्पावता. भुरग्याच्या बारशा दिसा, सवाशिणी बायलो मंगलारत्यो म्हण्टात. लोकगीताचो हो एक म्हत्वाचो प्रकार आसा. 'पांडुगा' आनी 'एरुवाक्का' ह्या दोन शेतासंबंदीत परबेच्या दिसा, हांगाचे शेतकार नाच-गाणे करतात. चैत्र म्हयन्यांत वन्य जमातीचे लोक जंगलांत वचून नाच-गाणे करतात. जल्माश्टमीचे रातीन श्रीकृष्णाचे मूर्तीचे मिरवणुकींत, लोक पेटिल्ल्यो चुडी घेवन नाचतात. एकपात्री लोककला प्रकारांत लोकसंगीताची येवजण केल्ली आसता. 'लंबाडी' हे आदिवासी जमातींत लोकनृत्याची परंपरा वंशपरंपरेन चलून आयल्या. 'कुचिपुडी नृत्य' हें ह्या राज्यांतलें नामनेचें नृत्य. ह्या नृत्य प्रकारांत नामना जोडिल्ल्या कलाकारांमदीं कोराडा नरसिंहराव, सत्यनारायण शर्मा, इंद्राणी रेहमान, यामिनी कृष्णमूर्ती, रीतादेवी आनी हेरांचो आस्पाव जाता. लक्ष्मीनारायणशास्त्री, चिंता कृष्णमूर्ती हे कुचिपुडीच्या मळावयले व्हड गुरू आसात.

संगीताच्या मळार ह्या राज्यांतल्यान त्यागराज, श्यामशास्त्री आनी मुथ्थुस्वामी दीक्षितर नांवाचे नामनेचे संगीतकार जावन गेले. णव्या शतमानाच्या आरंभाक दुसऱ्या विजयादित्याचे राजवटींत, राजाश्रयाक लागून धर्मीक आंध्र संगीताची भरभराट जाली. विजयवाड्याक एके शिळेर आंध्रांतल्या णव्या शतमानांतलीं चित्रां कोरांतिल्लीं दिसतात. ताचेर मंजरी, मृदंग, झांज, मुरली आनी हेर वाद्यांच्या चित्रांवयल्यान त्या काळावयल्या वाद्यांची कल्पना येता. 'राज्य संगीत नाटक अकादमी' आनी 'ललित कला संगम' ह्यो संस्था संगीताची उदरगत करपाचो यत्न करतात.

वास्तूकलेच्या मळार आंध्राची गिरेस्तकाय नदरेंत भरता. अमरावतीचो स्तूप, नागार्जुनसागरांत बुडिल्ल्या नागार्जुनकोंडाचो व्हडलो बौध्द स्तूप, अश्वमेघ कुंड, घाट, उक्ते रंगमंदीर, नागार्जुनकोंडा गांवचो मिथुन, नटराजझूज, मोटवो यक्ष, घंटासाक्ष हांगासल्लीं संगमरवरी शिल्पां कलात्मक आसात. १५९१ वर्सा हैदराबाद हांगा कुली कुतुबशाह हाणें बांदिल्लो 'चारमीनार', धा हजार लोकांक नमाज पढपाक सुवात आशिल्ली फातरांची मक्कामशीद, गोलकोंडाचो किल्लो, वरंगळच्या किल्ल्याच्या प्रवेशदारालागीं आशिल्लो किर्तीस्तंभ, बागेआम उद्यान, चौमहल, राजाची कोठी, फलकनुमा महल, सालारजंग म्यूझीयम, उस्मानिया विद्यापीठाची नवी इमारत आनी हेर वास्तू अप्रूप आसात.

आंध्र प्रदेशांतली चित्रकला काकतीयांच्या राजवटींत नामनेक पावली. आंध्रांतल्या सुर्वेचे चित्रकलेचेर चालुक्याचो प्रभाव पडला. तेराव्या शतमानांत हांगाचे चित्रकलेक मानाची सुवात मेळ्ळी. तेराव्या आनी सोळाव्या शतमानांतली, ताडपत्री आनी लेपाक्षी हांगाची चित्रकारी नांवाजल्ली आसा. चवदाव्या शतमानांतली पालनाड हांगाचीं शिल्पचित्रां आनी वरंगळचे भग्नावशेश, आंध्र चित्रकेलेचो ऊंच पांवडो दाखयतात. ए. पैदिराजू, मोक्कापट्टी कृष्णमूर्ती, पी. टी. रेड्डी, एस्. व्ही. कोंमराव, लक्ष्मा गोंड, कविता देवस्कर, नरेंद्रराय हे चित्रकार आंध्रांत नामना जोडून आसात.

आंध्रांतले चडशे राजा देवभक्त आशिल्ल्यान हांगा मूर्तिकलेची आनी देवालयाची व्हड उदरगत जाली. वरंगळ हांगाची सहस्त्रस्तंभी शिव-मंदिरांतली मूर्त, नूकाब, एकवीरा-चट्टांबिक, मणिकादेवी ह्यो शिवशक्तिचे देवीच्यो मूर्ती, ह्यो पोरने मूर्तिकलेच्यो देखी जावन आसात. गुडाली गंडवरम आनी दिपिले हांगाच्यो संगमेश्वर, शिवपार्वती आनी नग्नेश्वर ह्यो मूर्तीय नांवाजल्ल्यो आसात.

**शिक्षण:** आंध्र प्रदेशांत साक्षरतेचें प्रमाण २९.९४% (१९८१) आसा. ह्या राज्याचो शिक्षणीक इतिहास खूब पोरनो. इक्ष्वाकू वंशीयाची नागार्जून कोंडा देगणांतली विजयपुरी ही राजधानी बौध्द धर्म आनी कलेवांगडाच शिक्षणाचें केंद्र आसलीं. दिङ्नागाचार्यान वेंगी विद्यापीठाची थापणूक केल्याचो उल्लेख मेळटा. राज्यांतलें पयलें उक्ते विद्यापीठ २६ ऑगस्ट १९८२ दिसा हैदराबाद हांगा सुरू जालें. बायलांखातीर आशिल्लें पद्मावती विद्यापीठ- तिरुपती हांगा १४ एप्रिल १९८३ दिसा सुरू जालें.

१९८०-८१ मेरेन ४०६५६ मुळाव्या शाळांनी ५३.६८ लाख विद्यार्थी, ४७८२ उच्च मुळाव्या शाळांनीं ८८.२ लाख विद्यार्थी, ३८४२

माध्यमिक शाळांनीं ८.९२ लाख विद्यार्थी शिकप घेताले. तेभायर ४६८ उच्च माध्यमिक शाळा आनी ३८७ महाविद्यालयां ८०-८१ मेरेन राज्यांत आसलीं.

१९८०-८१ मेरेन फुडलीं विद्यापीठां राज्यांत आसलीं. १. आंध्र प्रदेश शेतकी विद्यापीठ राजेंद्रनगर, हैदराबाद २. श्री जवाहरलाल नेहरू टेक्नॉलॉजिकल विद्यापीठ, हैदराबाद ३. हैदराबाद विद्यापीठ, हैदराबाद ४. उस्मानिया विद्यापीठ, हैदराबाद ५. आंध्र विद्यापीठ, वॉल्टेयर (विशाखापट्टणम्) ६. श्री. व्यंकटेश्वर विद्यापीठ, तिरूपती ७. काकतीया विद्यापीठ, वरंगळ ८. नागार्जुन विद्यापीठ, गुण्टूर ९. श्री कृष्णदेवराय विद्यापीठ, अनंतपूर.

**तेलुगू साहित्यः** तेलुगू भाशेक आंध्रभाशा वा 'तेनुगू' अशेंय म्हण्टात. 'तेनुगू' म्हळ्यार म्होंवावरी गोड असो अर्थ जाता. इ. स. प. तिसऱ्या शतमानासावन तेलुगू भाशेक स्वतंत्र रूप मेळपाची प्रक्रिया सुरू जाल्याचें दिसता. इ. स. सव्या शतमानासावन 'तेलुगू' भाशेची खऱ्या अर्थान उदरगत सुरू जाली.

तेलुगू साहित्याच्या इतिहासाचे सादारणपणान सात काळखंड जातात. १. तमोयुग (इ. स. प. २५० ते इ. स. १०००) २. पयलो काळखंड (१००१ ते ११५०) ३. दुसरो काळखंड (११५१ ते १५००) ४. तिसरो काळखंड (१५०१ ते १७००) ५. चवथो काळखंड (१७०१ ते १८५०) ६. आर्विल्लो काळखंड (१८५१ ते १९४७) ७. स्वातंत्र्या-उपरांतचो काळखंड (१९४७ उपरांत).

*तमोयुगः* तेलुगू भास आपले पयले अवस्थेंत आसतना जीं विंगड विंगड प्रकारचीं गीतां आनी लोकसाहित्य हे भाशेंत रचले तें काळावांगडाच ना जाल्ल्यान ह्या काळखंडाक 'तमोयुग' म्हणटात. बोलभाशा म्हणून तेलुगू भाशेक अस्तित्व मेळटकच लेगीत हे भाशेचेर संस्कृताचो सरळपणान वा हेर तरेन परिणाम जायत रावलो. इ.स.प. तिसऱ्या शतमानासावन आंध्रांत बौध्द धर्मीयांचो प्रभाव वाडलो. ह्या वेळार पाली भाशेक लागीं आशिल्ली प्राकृत बौध्दांच्या प्रचाराची भास जाली. ह्या प्राकृताचो प्रभाव तेलुगू भाशेचेर पडलो. इ.स.प. २०० वर्सां, राज्यकर्त्यांचीं दानपत्रां, आज्ञापत्रां, कोरीव लेख आनी गाहा सत्तसईसारके ग्रंथ जे प्राकृतांत बरयले, तातूंत मनीस, वस्तू आनी थळां संबंदीत तेलुगू नांवां दिसतात. विष्णू कुंडिनाचे राजवटींत संस्कृत उतरांच्या तेलुगू भौवचनी प्रत्ययांचीं रुपां आयल्यांत. रेनाटी चोलकालीन कोरीव लेखांत तेलुगू उतरां दिसतात. ह्याच वंशांतल्या धनंजयान इ.स. ५७५ त जो 'कोलमल्ला कोरीव लेख' बरयलो तो तेलुगू भाशेंतलो पयलो कोरीव लेख आसलो. णव्या शतमानांत विजयादित्याचे राजवटींत (इ.स. ८४८) 'अद्दंकी कोरीव लेखांत' पयलें तेलुगू पद्य मेळटाः ह्या आदलें सगळें बरप गद्यांतच आसतालें. तेलुगू भाशेक ह्या काळखंडांत राजाश्रय मेळिल्ल्यान तिचे उदरगतीच्या मार्गांत आडमेळीं आयलींनात.

*पयलो काळखंड (इ.स. १००१ ते इ.स. ११५०):* चालुक्य राजाचो शेक ह्या काळखंडांत चल्लो; देखून पुराय राज्यांत शांतताय आनी थिराय उरली. ताका लागून तेलुगू साहित्याची नेटान उदरगत जावपाक लागली. ह्या काळांत प्राकृताचो जागो तेलुगून घेतलो. ही ह्या काळखंडांतली म्हत्वाची घडणूक. धर्मीक जागृताय ही तेलुगू साहित्याचे सुर्वेच्या काळांतली उर्बा आसली.

संस्कृत आनी तेलुगूचो पंडित नन्नय हाणें, वेंगीनरेश राजराज नरेंद्राचे सुचोवणेवेल्यान 'तेलुगू महाभारत' रचलें अशें विद्वानाचें मत आसा. हे भाशेंतलें पयलें व्याकरण 'शब्दचिंतामणि' नन्नयानच रचलें अशें कांय विद्वान मानतात.

ह्या काळांतलें लेखन पुराय तरेन पौराणिक कथांचेर आदारिल्लें आसा. ह्या काळांतल्या म्हत्वाचे ग्रंथरचणुकेंत, नन्नेचोडाचे 'कुमारसंभव', वेमुलवाडा भीमकवीचें 'राघव पांडवीय', 'शतकंठ- रामायण' आनी 'नृसिंह पुराण' हांचो आस्पाव जाता.

*दुसरो काळखंड (११५१ ते १५००):* चालुक्य राजघराण्याचो शेवट आनी काकतीय राजघराण्याची तीन शतमानां चलिल्ली राजवट हें ह्या काळांतलें खाशेलेपण आसलें. काकतीयाचे राजवटींत आंध्राचे राश्ट्रीय अस्मितेची पोसवण बरे तरेन जाली आनी ताचें पडबिंब साहित्याचेर पडलें. मार्ग पध्दतीची भास आनी देशी परंपरेतले छंद आनी अलंकार हांचो उपेग करपी शैली ह्या काळांत प्रचारांत आसली. महाकवी श्रीनाथ (१३८०-१४५०) हो मध्यम शैलीकारांचो प्रतिनिधी अशें मानतात. ताच्या विंगडविंगड प्रकारच्या रचनां भितर मरूत्तराट चरित्र, शालिवाहन सप्तशती, शृंगारनैषध, भीमखंडे, काशीखंड, हरविलासवीथिनाटक, पल्नाटिवीरचरितमु, शिवरात्रिमाहात्म्यमु, पंडिताराध्यचरित ह्यो साहित्य-कृती आस्पावतात. पाल्कुरिकी सोमनाथ ह्या कवीन 'बसवपुराण' हें नामनेचें काव्य रचलें. रंगनाथ कवीन द्विपद छंदांत रामायण रचलें तर सुमतिशतकाचो कर्तो बद्देना हाणें शतक-साहित्याचे परंपरेची बुन्याद घाली. नेल्लोरचो महाकवी तिक्कनान निर्वचनोत्तर रामायण आनी नन्नयान अर्दार सोडिल्ली महाभारतांतलीं ४ ते १८ पर्वां रचलीं. ह्या कवीक ह्या काळखंडाचो प्रतिनिधी मानतात. गोन बुध्दरेड्डीन (१२००-५०) हाचें, 'रंगनाथरामायण' हें रामकथेवेलें पयलें स्वतंत्र तेलुगू काव्य आसा. ताळ्ळपाक अन्नमाचार्य (१४२३-१५०२) ह्या संगीतज्ञ कवीन १३,००० कीर्तनगीतां रचून भक्तिगीतकारांची परंपरा निर्मिली. कवी मारनान मार्कंडेयपुराण रचून पुराणपरंपरेची बुन्याद घाली.

महाकवी तिक्कनाचो शिष्य केतन (१२२०-६०) हाणें तेलुगूंत प्रबंध रचनेची (महाकाव्यरचना) सुरवात केली. ताची 'दशकुमारचरिता' ही ह्या प्रबंध प्रकाराची सुरवात आसली. पिल्ललमरी पिनवीरभद्र (१४२५-९०) हाच्या 'शकुंतला परिणयमु' आनी 'जैमिनीभारतमु' तशेंच 'नंदीमल्लय' आनी 'घंटासिंग' ह्या कवीच्या 'प्रबोधचन्द्रोदय' आनी 'वराहपुराणमु' ह्या रचनांचेर प्रबंध शैलीचो प्रभाव पडिल्लो दिसता.

*तिसरो काळखंड (१५०१ ते १७००):* विजयनगरचो सम्राट कृष्णदेवराय हाची राजवट (१५०६-१५३०) साहित्य, कला आनी विद्या हांची सगळ्या आंगांनी भरभराट जावपाक कारण थारली. ह्या काळाक तेलुगू साहित्याचें 'भांगरायुग' म्हणून पाचारतात. स्वता कृष्णदेवरायान 'आमुक्तमाल्यदा' ह्या ग्रंथाची रचणूक केली. ताचे राजसभेंत 'अष्टदिग्गज' ह्या नांवान गाजिल्ले आठ कवी आसले. अठरा प्रकारचीं वर्णनां, धीरोदात्त नायक, शृंगाराचीं वर्णनां, पुराणांतलीं गाजिल्लीं कथानकां हांचो आस्पाव आशिल्ल्या आगळ्या-वेगळ्या सालंकृत प्रबंधकाव्यांनी हो काळखंड गाजलो. पेद्दनाचें 'मनुचरित्र', रामराजभुषणाचें 'वसुचरित्र', तेनाली रामकृष्णाचें 'पांडुरंगमाहात्म्यमु', श्रीनाथाचें 'शृंगार नैषध', कृष्णदेवरायाचें 'आमुक्तमाल्यदा' हीं तेलुगूंतलीं व्हड पंच प्रबंधकाव्यां (पंचमहाकाव्यां) अशें मानतात. १५६५त विजयनगर राजवटीच्या अस्ता उपरांत तंजावरच्या मराठी राजांनी आनी मदुराईच्या राजघराण्यांनी तेलुगू साहित्याची उदरगत घडोवपाखातीर आपलें फाटबळ दिलें. शहाजी, विजयराघव नायक, चेमकूर वेंकटकवी आनी रंगाजम्म हांच्यो ह्या काळांतल्यो रचना उल्लेखनीय आसात. त्यागराजाच्या साहित्यान तमिळ भाशीक वाठारांत आपली खाशेली सुवात निर्मिल्ली. गायन आनी अभिनय हांचो आस्पाव आशिल्लो. 'यक्षगान' नांवाचो आगळो नृत्यनाट्यप्रकार ह्या काळांत चलतालो. यक्षगानाक 'जक्कुलपाटलु' म्हण्टाले.

*चवथो काळखंड (१७०१ ते १८५०):* ह्या काळांतलें साहित्य फाव तो पांवडो जरी मेळोवंक पावलें ना तरी तातूंत वेगळेपण आसलें. कूचिमंची तिम्मकवी (१७०१-५६) हाणें ह्या काळांत शतक, दंडक, प्रबंधकाव्य आनी प्रमाणभूत लक्षणग्रंथ बरयले. शुध्द तेलुगूंत ताणें रामायण रचलें. कंकंटी पापराजू हाणें बरयल्लें 'उत्तर रामायण' 'वैदर्भीरिती' खातीर नांवाजल्लें आसा. नारायण कवीची 'बोब्बिली इतिहास कथा' चौडप्पाचे कंद आनी रेगुलपाटी कूर्माचें सीस छंदांतलें शतक, कासुल पुरषोत्तमाचें व्याजोक्तिपूर्ण आंध्रनायक शतक, चाटुकाव्याचे रचनाकार आडिदमू सुरकवी आनी पिंडीप्रोळू लक्ष्मणकवी, भक्तीगीताचो रचनाकार क्षेत्रय्या,

हे ह्या काळांतले नामनेचे साहित्यीक आसले.

*आर्विल्लो काळखंड (१८५१ ते १९४७):* इंग्लीश राजवटीचो शेक ह्या काळांत आंध्र प्रदेशाचेर चल्लो आनी ताचें पडबिंब तेलुगू साहित्याचेर पडलें. इंग्लीश कवींच्या अनुकरणाक लागून भावकवितेचो उदय तेलुगू साहित्यांत जालो. कथात्मक लघुकाव्य, खंडकाव्य, आत्मनिश्ठ काव्य, सैमाचेर आदारिल्लें काव्य आनी गूढकाव्य हे साहित्य प्रकारय ह्या काळांत उदयाक आयले. त्या काळावयल्यो भौशीक आनी राजकी चळवळी, तशेंच हुंडो, बालविवाह, अस्पृश्यताय, शेतकार आनी कामगार लोकांची सुख-दुख्खां हांचो प्रभाव तेलुगू कवींच्या ह्या काळांतल्या काव्याचेर पडिल्लो दिसता.

आर्विल्ल्या काळांतल्या सर्जनशील कवींभितर गुरजाड वेंकट अप्पाराव आनी रायप्रोलू सुब्बाराव हांचो वांटो म्हत्वाचो आसा. ह्या दोगांयनी भाव कविता हो नवो काव्य प्रकार केळयलो. 'वचनगेय' वा 'गंधगीतां' हो काव्यप्रकार हाताळप्यांमदीं मुनिमाणक्यम नरसिंहराव, विश्वनाथ, सत्यनारायण आनी आडिबी बापिराजू हांचो आस्पाव जाता. यती आनी नाद हांचेर भर आशिल्लीं गद्यगीतां शिष्टला उमामहेश्वरराव (१८९८-१९३८), श्रीरंगम श्रीनिवासराव, श्रीरंगम नारायणबाबू (१९०६-६२) सी. नारायण रेड्डी (१९३०) आनी आरुद्र भागवतुल शंकरशास्त्री (१९२२), शैपेन्द्र शर्मा, ज्वालामुखी, निखिलेश्वर हांणी रचलीं.

तेलुगू साहित्यांतलें नाट्यलेखनाचें पर्व १८७५ वाविलाल वासुदेवशास्त्री हाणें ज्यूलियस सीझर नाटकाचो अणकार करून सुरू केलें. धर्मावरम रामकृष्णाचार्य, कोलाचलम श्रीनिवासराव हांणी पयलें स्वतंत्र तेलुगू नाटक बरयलें. आंध्र शेक्सपीयर पानगुंटी लक्ष्मीनरसिंहराव हाणें तीस नाटकां बरयलीं. विश्वनाथ सत्यनारायण हाणें ऊंच पांवड्याच्या नाटकांची निर्मणी केली. आचार्य आत्रेय आनी बुच्चिबाबू (शिवराज वेंकटसुब्बराव) हांणी आपल्या नाटकां वरवीं मनाचो थाव सोदपाचो यत्न केलो. एकांकिका हो नाट्यप्रकार १९१० त तेलुगू साहित्यांत भितर सरलो. तल्लावज्झल शिवशंकरशास्त्री हाणें तेलुगू संगितीकेच्या मळार म्हत्वाचो वावर केलो.

तेलुगू कादंबरीचेर अस्तंतेचो प्रभाव पडला. १८७३ त खडवल्ली रामचंद्रुडू हाची 'धर्मवती विलासमु' ही पयली कादंबरी उजवाडाक आयली. विश्वनाथ सत्य नारायणाची 'वेयी पडूगुलु', उन्नव लक्ष्मीनारायणांची 'मालपल्ली' ह्यो ह्या काळांतल्यो कांय उल्लेखनीय अश्यो कादंबऱ्यो आसात. नोरी नरसिंह शास्त्री हाणें इतिहासीक कादंबरीच्या मळार, गुडिपाटी वेंकटाचलम हाणें समाजीक कादंबरीच्या मळार तर चिलकमूर्ती, लक्ष्मी नरसिंहम्, मुनिमाणक्यम् नरसिंहराव हांणी विनोदी कादंबरीच्या मळार मोलाची भर घाल्या. गाजिल्ल्या बंगाली कादंबरीच्या अणकारांनी आंध्रांत बरीच नामना जोडल्या.

तेलुगू कथा साहित्यांत मानाची सुवात जोडप्यांमदीं श्रीपाद सुब्रह्मण्यशास्त्री, विश्वनाथ सत्यनारायण चलम आनी चिंता दिक्षितुलू हांचो आस्पाव जाता. निबंद, साहित्यसमीक्षा आनी संशोधनपर साहित्यांत वीरेशलिंगम्चें नांव गाजता.

*स्वातंत्र्या उपरांतचो काळखंड (१९४७ उपरांत):* स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळखंडांतल्यो इतिहासीक घडणुको आनी परकी राजवटीखाला चेपून उरिल्ल्या समाजाचे उमाळे, सुख-दुख्खां हांचें पडबिंब ह्या काळखंडांतल्या साहित्याचेर पडलां. ह्या काळांत कथा, कविता, कादंबरी, नाटकां आनी हेर तरांचें साहित्य, तेलुगू साहित्यांत व्हड प्रमाणांत आयलां.

काव्यः ह्या कालखंडांत आर्विल्ले विचारसरणीची 'अभ्यूदय' कविता भाव कवितेच्या जाग्यार वयर सरली. श्रीरंगम श्रीनिवासराव ह्या कवितांचो जनक आसलो. शिष्टलो उमामहेश्वरराव आनी रूद्र ज्योतीकार श्रीरंगम नारायणबाबू हांणी ह्या काव्य प्रकारांक नवें मोडण दिलें. मुक्तशैलींतलें अप्रूप काव्य पट्टाभीच्या 'फिडेल रागाल डजन्' ह्या झेल्यांत दिसता. शंकरशास्त्री भागवतुल 'आरूद्रां', अनिशेट्टी, सामसुंदर रेंतल, बाल गंगाधर तिलक (१९१९-६६), कुंदुर्ती, एलचुरी, अब्बूरी, वरदराजेश्वरराव हे ह्या वर्गांत मोडपी नामनेचे कवी जावन आसात. दाशरथी आनी सी. नारायण रेड्डी हे कवी समाजांतल्या सगळ्या चालीरितींच्या एकचारक फाटबळ दितात. दाशरथीची कविता वीररसात्मक आसा. नारायण रेड्डीन कथात्मक गेय काव्यां रचल्यांत. बोईभीमन्ना भुवनघोषकार रमणरेड्डी हांणी आपल्या काव्यांत लोकगीताच्या माध्यमाचो आदार घेतला. विश्वनाथ सत्यनारायणाचे 'श्री रामायण कल्पवृक्षमु' तर मधुनापुंतल नारायण शास्त्रीचे 'आंध्रपुराणम' हीं ह्या काळांतलीं म्हत्वाचीं महाकाव्यां जावन आसात. वरवरराव गुण्टूरी, शेषेन्द्र शर्मा, ज्वालामुखी, निखिलेश्वर, विजय- रामरेड्डी, वनमाला, एन. गोपी, वरवर राव आनी चेराबंडा राजू हे कवीय तेलुगू काव्यांत नामना जोडून आसात.

कथाः आर्विल्ल्या तेलुगू कथेची परंपरा आडिवी बापिराजू ह्या कवी-कथाकारासावन सुरू जाता. तांच्यो 'भोगीरलोय', 'नागलि', 'शैलबाला', हिमालयरश्मि' ह्यो कथा गाजल्यात. तेलुगू कथांच्या नव्या पर्वाचें श्रेय कोडवटिगंटी कुटूंबराव, त्रिपुरनेमी गोपीचंद, बुच्चिबाबू, पालगुम्मी पद्मराजू ह्या चौगांक वता. १९६० च्या आंध्र राज्याचे थापणुके उपरांत नवे पध्दतीन नवें कितेंयतरी सांगचें आनी नव्या जीवन मूल्यांचो पुरस्कार करचो अशी प्रवृत्ती साहित्यांत आयली. ही प्रवृत्ती कथेच्या माध्यमांतल्यान आपणावप्यांमदीं राचकोंडा विश्वनाथशास्त्री मुखेल आसून बाल गंगाधर तिलक, बलिवाडा कांताराव, कोम्मूरी वेणुगोपालराव, अवसरम् रामकृष्णराव, मधुरांतकम राजाराम, मंजुश्री, चलसानी प्रसादराव हे हेर कथाकार आसात. बायलांचे जीणेंतले प्रस्न सुख-दुख्ख हे विशय हाताळपी लेखिकांमदीं वासिरेड्डी, सीतादेवी, बीनादेवी, रंगनायकम्मा, परिमला सोमेश्वर ह्यो मुखेल आसात.

कादंबरीः तेलुगू कादंबरीन ह्या काळांत विंगडविंगड विशय हाताळिल्ले दिसतात. मध्यमवर्गीयांची जीण चित्रावप्यांमदीं बलिवाडा कांताराव, आर्. एस्. सुदर्शनम्, रंघी सोमराजू मुखेल आसात. व्यक्ती आनी समाज हांचेभितल्लो संघर्श सत्यनारायणमूर्तीच्या 'संघम् चेसिन', 'मनिषि', 'कौसल्या', 'दीपशिखा' कादंबरींत दिसता. पोरंकी दक्षिणामूर्तीच्यो कादंबऱ्यो वातावरण आनी थळावे भाशेच्या खाशेलेपणाचे नदरेन अप्रुप आसात. एस्. आर्. नंदीची 'नैमिषारण्य' हरिजनांचे वायट जीणेचें प्रभावीपणान चित्रण करता. पोतुकुची सांब शिवराव हाची 'उदय किरणालु', 'येडुरेजुला माजिली', 'अन्वेषण' ह्यो कादंबऱ्यो कठीण वेळार भावनाप्रधान मनशांची जावपी अवस्था चित्रायतात. राचकोंडा विश्वनाथ शास्त्री हाका ताच्या भाशाशैली, तंत्र, कसब, भावनाप्रधानता, समाजीक बांधिलकीवेली खर निश्ठा ह्या गुणांक लागून दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांतचो व्हड कादंबरीकार म्हूण पाचारतात. हेर नामनेच्या लेखक लेखिकांमदीं गुण्टूरी शेषेन्द्र शर्मा, पी. श्रीदेवी, वासिरेड्डी, सीतादेवी, परिमला सोमेश्वर, रंगनायकम्मा, वड्डेर चंडीदास, नवीन, उन्नव लक्ष्मीनारायण, रावूरी भारद्वाज मुखेल आसात.

नाटकः स्वातंत्र्या उपरांत तेलुगू नाटकांत उपाट बदल घडून आयलो. समाजांत घडपी दर एक विशय नाटकांतल्यान हाताळिल्यान गिरेस्त लोकांपरस सकयलो वर्गच ह्या प्रकाराकडेन चड आकर्शीत जालो. स्वातंत्र्याउपरांतच्या नाटकांचेर अस्तंतेचो प्रभाव उणो जायत गेलो. तेचपरी भास सोपी आनी सुटसुटीत जाल्या.

डी. व्ही. नरसराजू (नाटकम्), अवसरला वेंकटनरसू (ज्योतिर्मयी), प्रख्या श्रीराममूर्ती (कालरात्रि, फणी, मनिषितो मनिषी), कोर्रपाटी गंगाधरम् (गुड्डिलोकम्), रेंट्ल गोपालकृष्ण (इन्स्पेक्टर जनरल), अवसरला सूर्यराव (पंजरम) हे कांय उल्लेख करपासारके नाटककार जावन आसात. एकांकिका बरोवप्यांमदीं राजमन्नार, चलम, नार्ल, मुद्दूकृष्ण, भमिडिपाटी कामेश्वरराव, गोराशास्त्री हे फांकिवंत आसात.

पुरस्कारः साहित्य अकादेमीचीं वर्सावळीचीं इनामां जोडपी साहित्यीक

फुडले तरेन आसा.

१९५५: सूरवरमु प्रताप रेड्डी, १९५६: बुलुसु व्यंकटेशवरलू, १९५७: चिरंतनानंदा स्वामी, १९६०: पोनान्गी श्रीराम अपराव्, १९६१: बालांत्रपू रजनीकांतराव, १९६२: विश्वनाथ सत्यनारायण, १९६३: टी. गोपीचंद, १९६४: गुर्रम जाषुवा, १९६५: आचार्य रायाप्रोलु सुब्बाराव, १९६९: तुम्माल सीतारामा मूर्ति, १९७०: देवरकोंडा बाल गंगाधर तिलक, १९७१: तापि धर्माराव, १९७२: श्री. श्री., १९७३: सी. नारायण रेड्डी, १९७४: दाशरथी, १९७५: बोयी भिमन्ना, १९७७: कुंदुर्ति अंजनेयुलू, १९७८: देवुलपल्ली व्ही. कृष्णा शास्त्री, १९७९: पी. नारायणाचार्युलु, १९८१: व्ही. आर. नारला, १९८२: इल्लिंदल सरस्वतीदेवी, १९८३: रावुरि भारद्वाज, १९८४: आलुरि बैरागी, १९८५: पालगुम्मि पद्मराजु, १९८६: जी. व्ही. सुब्रह्मण्यम्, १९८७: आरूद्रा, १९८८: रावमल्लु रामचंद्रा रेड्डी, १९८९: एस. व्ही. जोगाराव.

१९५८, १९५९, १९६६, १९६७, १९६८, १९७६ आनी १९८० वर्सा पुरस्कार दिवंक नात.

तेलुगू भाशेंत पयलो ज्ञानपीठ पुरस्कार १९७० वर्सा विश्वनाथ सत्यनारायण हाच्या 'रामायणकल्पवृक्षमु' ह्या महाकाव्याक फाव जालो जाल्यार दुसरो ज्ञानपीठ पुरस्कार १९८९ वर्सा सी. नारायण रेड्डी हाच्या 'विशम्भरा' ह्या महाकाव्याक फाव जालो.

**म्हत्वाचीं थळां:** हैदराबाद लागसरलो गोंवळकोंडा किल्लो, गुण्टूर जिल्ह्यांतलो एट्टिपोतला धबधबो, मंगलगिरींतलीं गोपुरां, चेझर्लीचें कपोतेश्वराचें देवूळ, श्रीकाकुलमचें आंध्र विष्णूचें देवूळ, पापिकोंडलूलागीं गोदावरीन निर्मिल्ली व्हड घळ आनी रान, भद्राचलमचें रामाचें देवूळ, तिरुपतीचें वेंकटेश्वर देवस्थान, श्रीशैलमचें मल्लिकार्जुन थळ, हनमकोंडाचें शेंकड्यांनी खांब्याचें देवूळ आनी शिल्पकाम, कोंडापूरची बौध्द लेणी, चित्तापल्ली लागसरलें रानवटी प्राण्यांचें जंगल, हैदराबाद सिकंदराबाद जोड शारां हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं पर्यटनथळां आसात. नागार्जुन, मच्छकुंड, तुंगभद्रा प्रकल्प, विशाखापट्टणम्, काकीनाडा, मच्छलीपट्टणम् हीं बंदरां; विजयवाडा, वारंगल, कर्नुल नेल्लोर हीं शारां आंध्र प्रदेशांतलीं म्हत्वाचीं थळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद: तेलुगू भाशा.

## आंबिये, सोहिरोबा: (जल्म: १७१४; मरण: १७८९).

एक संतकवी. हो जातीन सारस्वत ब्राह्मण आशिल्लो. हाचे दायजी गोंयच्यान सावंतवाडी संस्थानच्या बांदे गांवांत येवन रावील्ले. बांदे गांवचें कुलकर्णीपण सुमार २० वर्सां ताचेकडेन आशिल्लें. प्रामाणिकपणान तें काम करतना लेगीत ताची ओड परमार्थाकडेन आसली.

ताचेविशीं अशी दंतकथा सांगतात:

एक दीस सावंतवाडीच्या राजान ताका कांय म्हत्वाच्या कामाखातीर आपोवणें धाडलें. देवपूजा करून जेवीनासतनाच तो बांदेसावन वाडीक वचूंक भायर सरलो. वाटेर फराळाक म्हूण ताणें एक पणसूल बरोबर घेतलें. इनसुली गांवच्या व्हाळार हातपांय धुवन तो पणस फोडून घरे खावपाक बसलो. इतल्यांत एक तेजस्वी दिव्य पुरुश थंय अवतरलो. ताणें सोहिरोबाकडेन पणसूल मागलें आनी खावन जातकच प्रसाद म्हूण कांय घरे सोहिरोबाक दिले. सोहिरोबाच्या माथ्यार वरदहस्त दवरून तो दिव्य पुरुश नाच जालो.

तो मनीस अंतर्धान पावतकच सोहिरोबाची ब्रह्मानंदसमाधी लागली. समाधींतल्यान भानार येतकच सावंतवाडी वचून ताणें लेखणी आनी दप्तर राजा म्हऱ्यांत दवरलें आनी नोकरेचो राजीनामो दिलो. तो दिव्य पुरुश म्हळ्यार मच्छिंद्रनाथाचो शिष्य गैबीनाथ अशें सोहिरोबान फुडें आपले एके कवितेंत बरयलां. अशे तरेन दीक्षा घेतल्या उपरांत वीसपंचवीस वर्सां सोहिरोबा घराच रावलो. भजन, पूजा, ग्रंथवाचन, ग्रंथलेखन, निरुपण हो ताचो सदचो कार्यक्रम आशिल्लो. गैबीनाथाचे कृपेन ताका कवित्व-स्फूर्त प्राप्त जाली आनी ताणें खूब कविता रचल्यो. ताणें कुलकर्णीपदाचो राजीनामो दितना लेखणी सकयल दवरिल्ली ती परत हातांत धरलीना. ताका लागून ताणें आपल्यो कविता भयणीकडल्यान आनी भुरग्यांकडल्यान बरोवन घेतल्यो.

पिरायेच्या चाळीसाव्या वर्सांमेरेन ताणें संवसार केलो. प्रपंचांत आसून लेगीत संवसारापसून अलिप्त रावन मोक्षमार्गाचे दिकेन साधना करपाचे ताचे यत्न चालूच आशिल्ले, हें ताच्या कांय कवितांवेल्यान स्पश्ट जाता.



सोहिरोबा आंबिये

६० वर्सां पिरायेचेर सोहिरोबा आपल्या दोनूय पुतांक घेवन उत्तर भारताचे यात्रेक वचूंक भायर सरलो. काशी, प्रयाग सावन तो इ. स. १७७९ वर्सा सुमार ग्वाल्हेराक पावलो. त्या वेळार महादजी शिंदे ग्वाल्हेरचे गादयेर आशिल्लो. ताच्या दरबारांत आशिल्ल्या जिवबादादा केरकार ह्या गोंयच्या सेनापतीन सोहिरोबाक दरबारांत व्हेलो. त्या वेळार महादजीन आपणे रचिल्ल्यो कांय कविता सोहिरोबाक दाखयल्यो. सोहिरोबाक त्यो आवडल्योना. आनी ताणें आपलें मत स्पश्ट परगटायलें. ताका लागून महादजी शिंदे तापलो. तेन्ना सोहिरोबान ताका अशी जाप केली:-

> अवधूत नहीं गरज तेरी। हम बेपर्वा फकिरी ।।धृ.।।
> तुम हो राजा मैं हूँ जोगी। पृथक पंथ का न्यरा।
> चार कोट जहागीर तुमारी। ओही पंथ हमारा।।१।।
> सोना चांदी हमकु नहीं चाहिए। अलख भुवन का वासी।
> महाल मुलुख झांट बराबर। हम गुरुनामोपासी।।२।।
> तुमबी डुबे हम बी डुबाये। तेरा हम क्या लिया।।
> कहे सोहिरा सुने महादजी। प्रकाशजोत गमाया।।

हे घडणुकेउपरांत महादजी शिंदेन सोहिरोबाचो अधिकार पारखून ताका परत भोवमानान दरबारांत आपोवन व्हेलो. ताणें सोहिरोबाक उज्जैन हांगा एक मठ बांदून दिलो. तेउपरांत बदरीकेदार, सोमनाथ, द्वारका, अयोध्या अशी तीर्थयात्रां करून तो उज्जैन मठांत येवन आपल्या पुतांसयत धा वर्सां रावलो. थंय ताचे शिष्यगण खूब वाडले. इ. स. १७८९ वर्सा रामनमीक तो मठांतल्यान भायर सरलो तो परत आयलोच ना.

ताचें गिन्यान शुध्द, पवित्र आनी वैराग्य कडक आशिल्लें. तो योगी आनी पुराय वेदान्ती आसून एकेकदां चार-चार दीस समाधी अवस्थेंत उरतालो. सगुण भक्तीपरस निर्गुण भक्तीकडेन ताका चड ओड आशिल्ली. ताणें पांच ग्रंथ बरयल्यात, ते अशे: 'अक्षयबोध', 'महदनुभवेश्वरी', 'पूर्णाक्षरी', 'अद्वयानंद', 'सिध्दान्तसंहिता' हातूंतलो 'महदनुभवेश्वरी' हो ग्रंथ सगळ्यांत व्हडलो आसून ९,००० होंवयांच्या

ह्या ग्रंथांत १८ अध्याय आसात. 'सिध्दान्तसंहिता' ह्या ताच्या नामनेच्या ग्रंथांत ताणें मूळ संहितेचेर पांच हजार होंवयांची टीका केल्या. ताणें मराठी आनी हिंदी मेळून सुमार चार हजार पदां बरयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**आंबील:** नासण्याचें पीठ आनी उदक वा शिताचो निवोळ वा ताक घालून केल्लो दाटसार जिनस.

हो पदार्थ करचे आदले दिसा थोडें नासण्याचें पीठ थंड उदकांत खिरोवन आंबोवपाक दवरतात. दुसऱ्या दिसा ताचें आमटें तयार जाता. तें मागीर आंबील करपाखातीर आदन सळसळावन तातूंत घालतात. हून उदकांत आमट्याचे गुळे जावपाची भिरांत आसता, देखून तें चाळीत रावचें पडटा. उपरांत तातूंत पीठ खिरोवन घालतात. रुचीक फावो तितलें मीठ घालून हें मिश्रण बरें खतखतायतात. हें मिश्रण दाट जातकच आंबील तयार जाता.

कांय कडेन नासण्याचें पीठ आदले दिसा उदकांत भिजोवन आंबोवचे बदला एक वा दोन दीस आदलो शिताचो निवळ घेवन तातूंत नासण्याचें पीठ घोळयतात आनी तें रांदनीर दवरून पांच मिनटां चाळीत रावन खतखतावन काडटात. फाव ती दाटसाण ये मेरेन हो निवळ धवळटात. कांय कडेन निवळाबदला ताकाचो उपेग जाता. रुचीक फावो तितलें मीठ घालून वेलें मिश्रण दाट जातकच आंबील तयार जाता. आंबिलाचे खास अशे प्रकार नात. धंय करचेखातीर जशें विरजण सांबाळचें पडटा, तशें आंबील करचेखातीर 'आमटें' सांबाळचें पडटा.

आंबील खाऱ्या नुस्त्यावांगडा खावपाक रूचीक लागता. रांदिल्लें जितें नुस्तें, आंबली (तोर) हांचे वांगडाय आंबील खातात. जायतेफावट आंबीलेंत शिताचे गोटे वा पेज भरसून पितात. आंबील हो पुश्टीक आनी घटाय दिवपी जिनस आसा. नासण्यांत 'बी' जीवनसत्त्व आसता. शेतकार, कश्ट करपी मानाय, वावर करपी लोक, सकाळचें खाण जातकच २-३ वरांनी आंबील घेतात. हें खाण घेतकच बरोच वेळ भूक लागना. आदल्या काळांत कश्टकरी लोक सकाळची च्या पियेवचेबदला आंबील घेताले. गांवगिऱ्या वाठारांनी आयजूय ही पध्दत चलता. गावडे आनी कुणबी जमातींत हो प्रकार चड दिश्टी पडटा.

- सुधा आमोणकार

**आंबे, दीनानाथ (दिनकर) दत्ता शेणवी:** (जल्म: २० एप्रिल १९२४, सदाशिवगड-कारवार; मरण: १९ जानेवारी १९८१.)

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मॅट्रिक मेरेन शिक्षण घेतलें. १९४६ त, तो मडगांव शारांत सेवादलाची शाखा चलयतालो आनी भुरग्यांक व्यायाम शिकयतालो. १८५४ वर्सा तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी जालो आनी सुटकेझुजाचो वावर करूंक लागलो. २ फेब्रुवारी १९५५ दिसा ताणें विश्वनाथ गुडे, रजनिकांत महाल्मे आनी गुरूदास कुंदे हांच्या वांगडा मडगांव सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो. उपरांत प्रादेशिक लश्करी दंडाधिकाऱ्या (Territorial Military Tribunal) मुखार ताची चवकशी जावन, ताका आठ वर्सां बंदखणीची खर ख्यास्त आनी दोन वर्सां सादी बंदखण, वा दर दिसा तीस इस्कूद ह्या प्रमाण दोन वर्सां दंड भरूंक लायलो. तशेंच पंदरा वर्सांखातीर ताचे नागरी हक्क काडून घेतले. फुडें साडेचार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगतकच बंदखणीतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**आंबेडकर, भीमराव (बाबासाहेब) रामजी:** (जल्म: १४ एप्रिल १८९१, महू-मध्यभारत; मरण: ६ डिसेंबर १९५६, दिल्ली).

भारताच्या संविधानाचो शिल्पकार. एक म्हान कायदेपंडित. दलीत लोकांपासत आपली पुराय जीण ओंपिल्लो म्हान भारतीय फुडारी.

ताचो बापूय रामजी सकपाळ लश्करांत सुभेदार आसलो. ताचे आवयचें नांव 'भीमाबाई' आसलें. आजो मालोजी सकपाळ लश्करांत शिपाय आसलो. उपरांत तो मेजर म्हूण निवृत्त जालो. रत्नागिरी जिल्ह्यांतलो आंबवडे हो ताच्या घराण्याचो मूळ गांव आसलो. आवय बापायलो बाबासाहेब चवदावो भुरगो आसलो. तातूंतलीं फकत सात जाण जिवीं उल्लीं. तो स वर्साचो आसतना ताचे आवयक मरण आयलें. उपरांत बापूय आनी आतें 'मीराबाई' हांणी ताका ल्हानाचो व्हड केलो.



डॉ. आंबेडकर

बाबासाहेब दोन फावट लग्न जालो. पयलें लग्न सोळा वर्सां पिरायेचेर भिकू वलंणकार हाची धूव 'रमाबाई' हिचेवांगडा जालें. तिका १७ मे १९३५ दिसा मरण आ य लें. फुडें ताचें दुसरें लग्न डॉ. शारदा कबीर हिचेवांगडा १५ एप्रिल १९४८ वर्सा जालें.

लश्करांतल्यान नि वृ त्त जातकच ताचो बापूय आपल्या कुटुंबासयत नोकरे-खातीर साताऱ्याक आयलो. थंय ताणें आपलें मुळावें शिकप घेतलें. शाळेंत शिकतासतना 'आंबेडकर' नांवाच्या मास्तरान ताचें नांव सकपाळाचें आंबेडकर केलें. आंबेडकाराचें माध्यमिक आनी विश्वविद्यालयीन शिकप एल्फिन्स्टन हायस्कूल आनी कॉलेजींत जालें. सन १९०७ तो मॅट्रिक पास जालो तर सन १९१२ त तो पदवीधर जालो. हे खातीर ताका केळूस्कार गुरूजीचें मार्गदर्शन आनी बडोद्याचो सयाजीराव गायकवाड हाचो अर्थीक पालव मोलाचो थारलो. बडोद्याच्या राजाच्या अर्थीक पालवाक लागून सन १९१३ त तो उंचेल्या शिक्षणाखातीर विदेशांत वचूंक शकलो. अमेरिकेंतल्या कोलंबिया आनी इंग्लंडांतल्या लंडन विश्वविद्यालय आनी ग्रेज-इन हांगासून ताणें एम्. ए., पीएच्. डी. (कोलंबिया), डी. एस्सी. (लंडन), बार ॲट लॉ (लंडन) ह्यो पदव्यो जोडल्यो. अर्थशास्त्र, मानववंशशास्त्र, कायदेशास्त्र, दर्शनशास्त्र, धर्मशास्त्र, तर्कशास्त्र आनी समाजशास्त्र हाचें गिन्यान त्यावरवीं ताणें जोडलें.

भारतांत परत येतकच ताणें बडोदे संस्थानाची नोकरी केली. थंय ताका 'अस्पृश्य' म्हूण वायट अणभव आयले. तेखातीर ताणें नोकरी सोडली. उपरांत मुंबयंत सिडनहॅम कॉलेजींत ताणें प्राध्यापकाची नोकरी केली. थंय ताका असोच वायट अणभव आयलो. अस्पृश्य म्हूण खिणाखिणाक आयिल्ल्या वायट अणभवक लागून अस्पृश्यांभितर जागृताय हाडपाचो वावर करपाचें ताणें थारायलें. ३१ जानेवारी १९२० दिसा ताणें 'मूकनायक' नांवाचें पंद्रशी नेमाळें काडलें. तशेंच त्याच वर्सा कोल्हापूर संस्थानांतल्या अस्पृश्यांची परिशद माणगांव हांगा घेतली. सन १९२४ त ताणें 'बहिष्कृत हितकारिणी' हे संस्थेची थापणूक केली. सन १९२६ त सातारा जिल्ह्यांत रहिमतपूरांत भरिल्ल्या महार परिशदेंत ताणें आपल्या अस्पृश्य भावांक वतनदारी आनी गांवकीचे हक्क सोडून दिवपाक सांगलें. २५ डिसेंबर १९२७ त महाराष्ट्रांत 'महाड' हांगा थंयच्या तळ्यांत अस्पृश्यांक हेर जातींवरी उदक भरपाक मेळचें म्हूण आपल्या हजारांनी वांगड्यांसयत सत्याग्रह केलो. त्यावेळार अस्पृश्यतायेचो पुरस्कार करपी 'मनुस्मृती' ताणें जळयली. भारतांतलीं देवळां अस्पृश्यांखातीर उक्तीं जावचीं अशें ताका दिसतालें. नाशिकच्या काळाराम मंदिरांत प्रवेश करपाचो सत्याग्रह २ मार्च १९३० दिसा ताणें सुरू केलो. तो सन १९३५ मेरेन पांच वर्सां चालू उल्लो. इतले मजगतीं

अस्पृश्यांचे हेडगे रानवट जमातीचे तशेंच दलीत समाजाचे प्रस्न संवसारामुखार येवचे म्हूण ताणें खासा यत्न केलो. लंडनांत भरिल्ले गोलमेज परिशदेंत आपली बाजू मांडून हिंदू संस्कृतायेन तांचे पिळगेक न्हयकारिल्ले अधिकार परते मेळोवन दिवपाक म्हत्वाचो वावर केलो. दलितांचे प्रस्न लोकांमुखार मांडपाखातीर 'बहिष्कृतभारत', 'जनता', 'समता' सारक्या खबरेपत्रांतल्यान सातत्यान बरप केलें. २४ सप्टेंबर १९३२ दिसा गांधी- आंबेडकार हांच्यामदीं 'पुणे कबलात' जाली. तातूंत राखीव जाग्यांचो आंकडो थारावपाखातीर पांच वर्सांनी 'जननिर्देश' घेवचो अशें थारलें.

सन १९३६त ताणें स्वतंत्र मजूर पक्षाची थापणूक केली. सन १९३७ त विधानसभेचो वांगडी म्हूण तो वेंचून आयलो. सन १९३७ त संघराज्य पध्दत आनी दारुबंदी धोरण हाका ताणें खर निशेद परगटायलो. सन १९४२ त 'ऑल इंडिया शेड्यूल्ड कास्ट्स फेडरेशनाची' ताणें थापणूक केली. सन १९४२ ते १९४६ मेरेन व्हाईसरॉयच्या कार्यकारी मंडळांत तो कामगार फुडारी आसलो. ह्याच काळांत ताणें 'पीपल्स एज्युकेशन सोसायटीची थापणूक केली आनी मुंबय सिध्दार्थ महाविद्यालय सुरू केलें. सन १९४६ त बंगाल प्रांतांतल्यान संविधान सभेचेर वांगडी म्हूण तो वेंचून आयलो. २९ ऑगस्ट १९४७ वर्सा स्वतंत्र भारताचे घटना समितीचो अध्यक्ष म्हूण ताची वेंचणूक जाली.

हिंदू बायलांचे सर्वांगीण भलायकेखातीर ताणें मांडिल्ल्या 'हिंदू कोड बिलाक' कर्मठ्वाद्यांकडल्यान विरोध जालो. हें बिल लोकसभेंतल्यान भायर पडटकच, नेहरूच्या मंत्रीमंडळांतल्यान कायदेमंत्री पदाचो राजीनामो दिवन तो भायर सरलो आनी परतून १९५२ त राज्यसभेचेर वेंचून आयलो. लोकसभेची वेंचणूक ताणें दोन फावट लडयली. पूण दोनूय फावट ताका हार खावची पडली.

हिंदू धर्मांतल्या चातुर्वर्ण्य वेवस्थेक विटून १४ ऑक्टोबर १९५६ दिसा नागपूर हांगा समता, भावपण, न्याय, स्वतंत्रताय, प्रज्ञा, करूणा, शील हांची शिकवण समस्त संवसाराक दिवपी बौध्द धर्माची दीक्षा ताणें आपल्या सुमार पांच लाख अनुयायांसयत घेतली.

आंबेडकारांक वाचनाचो खूब नाद आसलो. ताच्या ग्रंथांलयांत २५,००० दुर्मीळ पुस्तकां आसलीं. ताच्या गाजिल्ल्या पुस्तकांमदीं 'द इव्होल्यूशन ऑफ प्रॉव्हिन्शिअल फायनान्स इन ब्रिटीश इंडिया' (१९२४), 'द प्रॉब्लेम ऑफ द रुपी' (१९४६), 'व्हॉट कॉंग्रेस अँड गांधी हॅव डन टू द अनटचेबल्स' (१९४५), 'हू वेअर द शूद्राज?' (१९४६), 'द, अनटचेबल्स' (१९४८), 'बुध्द अँड हिज धम्म' (१९५७), 'ॲनायहिलेशन ऑफ कास्ट्स (१९३७)' ह्या पुस्तकांचो आस्पाव जाता. राजकी विशयांवेल्या ग्रंथांमदीं 'थॉट्स ऑन पाकिस्तान' (१९४०), रानडे, गांधी अँड जिना, (१९४३), 'थॉट्स ऑन लिंग्विस्टिक स्टेट्स' (१९५५) हाचो आस्पाव जाता. मराठी भाशेंत ताणें खूब थोडें बरप केलें. हें बरप चडशें खबरांपत्रांतल्यान उजवाडाक आयलां.

१९९० वर्सा भारत सरकारान ताका मरणोत्तर 'भारतरत्न' पुरस्कार दिलो. १४ एप्रिल १९९० दिसा ताचे घरकान्नीकडेन राष्ट्रपतीन हो पुरस्कार सुपूर्द केलो. १९९० वर्सा भारत सरकार बाबासाहेब आंबेडकराचें 'जल्मशताब्दी वर्स' म्हूण मनयता.

- दादू भि. मान्द्रेकार

**आंबोः** (झाड आनी फळ)

(मराठी- आंबा; हिंदी- आम; गुजराती- आम्री, आंबो; कन्नड- माविण हण्णु; संस्कृत- चूत; इंग्लीश- मँगो; लॅटीन- मँजिफेरा इंडिका; कूळ-ॲनाकार्डिएसी). सदांच पांचवेंचार आसपी आंब्याचें झाड सुमार १० ते १५ मी. मेरेन ऊंच वाडटा. झाडाची साल खडबडीत आसता आनी तिका बारीक चिरो आसतात. पानां ५ ते १६ इंच लांब आनी १ ते ३ इंच रुंदायेचीं आसतात. तांचो आकार भाल्यावरी आसता. आंब्याच्या झाडाक सुमार १,००० ते ६,००० फुलां येतात. फुलांचें प्रमाण झाडाचो आकार आनी जात हांचेर थारता. फुलांक चंवर अशें म्हण्टात.

भारतांत सुमार ८ लाख हेक्टर जमनींत आंब्याची लागवड जाता. भारताभायर चीन, मलाया, इंडोनेशिया, ऑस्ट्रेलिया, फिलीपीन्स, हवाई, वेस्ट इंडीज, मादागास्कार, फ्लोरिडा, कॅलिफोर्निया ह्या वाठारांनी आंब्याची बऱ्याच प्रमाणांत लागवड जाता. भारतांत उत्तर प्रदेश, बिहार, आंध्र प्रदेश, बंगाल, ओरिसा, केरळ, महाराष्ट्र ह्या राज्यांनी आंब्याची लागवड व्हड प्रमाणांत जाता. गोंयांत सुमार ३,००० हेक्टर जमीन आंब्याचे लागवडीखाला आसा. गोंयांत आंब्याची लागवड चडशी पध्दतशीरपणान केल्ली दिसना, तरी पोरसां, कुळागरां, भाटां ह्या सुवातींनी आंब्याचीं झाडां बरींच दिश्टी पडटात.



आंबो

ह्या झाडाचें मूळ खंयच्या वाठारांत आसा हाचेर एकमत ना, पूण बऱ्याच जाणांच्या मतान हें झाड सगळ्यांत पयलीं भारतांत सांपडलें. मॅन्जीफॅरा इंडिका ह्या नांवातलें इंडिका म्हळयार भारत. भारतांत ह्या झाडाची लागवड पूर्विल्ल्या काळासावन जाताली हाचे बरेच पुरावे आसात. रामायण, महाभारतांत आंब्याचो उल्लेख आसा. चिनी प्रवासी फाहियान हाणें बरयल्ल्या भोंवडेवर्णनांत आंब्याच्या रुखाचें वर्णन मेळटा. इ. स. १५५६ ते १६०५ काळांत मुघल बादशहा अकबर हाणें एक लाख झाडां रोवन आंब्याची बाग तयार केल्ली. १८ व्या शतमानात फ्रांसेज भोंवडेकार बॅर्निए हाणें आंब्याची तोखणाय केल्या.

भारतांतल्यो कांय म्हत्वाच्यो आंब्याच्यो जाती अश्योः

**१. हापूसः** ह्या जातीच्या आंब्याची रूच एकदम बरी. फळ पिकल्या उपरांत तें १०-१५ दीसमेरेन बरें उरता. ताका लागून हे जातीच्या फळांची निर्यात करतात. रत्नागिरी वाठारांत जावपी हापूस आंबो बरे प्रतीचो आसता. महाराष्ट्र, उत्तरप्रदेश, बिहार कर्नाटक, तामीळनाडू हांगा हे जातीच्या आंब्याची लागवड चड प्रमाणांत जाता.

**२. पायरीः** ही जात पीकेखातीर बरी आसता. फळां मध्यम आकाराचीं आनी दिसपाक ओडलायणी आसतात. फळ गोड आशिल्ल्यान चडसो रोस काडचेखातीर ताचो उपेग जाता. महाराष्ट्र आनी कर्नाटकांत हाची लागवड चड जाता.

**३. रत्नाः** हापूस आनी नीलम ह्या दोन जातींचो संकर करून ही जात तयार केल्या. दर वर्सा येवपी हें फळ रुचीक बरें आसता.

**४. नीलमः** ही जात गोडयेक आनी रुचीक व्हडलीशी बरी नासता. फळां आकारान ल्हान आनी दर वर्सा लागतात. चडसो उपेग नव्यो संकरित जाती तयार करचेखातीर जाता. आंध्र प्रदेशांत हाची लागवड चड जाता.

**५. लंगडाः** हे जातीचीं फळां गोड आनी रुचीक बरीं आसतात. फळां

चड दीस तिगून उरनात. उत्तर प्रदेश, बिहार हांगा चड जाता.

६. **तोतापुरीः** ह्या फळाची गोडी आनी रुच तितलीशी बरी ना. फळां बेगीन तयार जातात. फळां घट आशिल्ल्यान चड तेंप उरतात. झाडाक दर वर्सा फळां लागतात. हाची चड लागवड आंध्र प्रदेशांत जाता.

हे भायर कावसजी पटेल, जमादार, गोपाळभोग, हशेरा, सफेदा, फझरी, चौसा, तौमुरिया, हेमसागर, कृष्णभोग, सिंदुराय, सुकाल, मुर्शिदाबादी, फझली माल्डा, रुमानी, बेनिशान, मलगोवा, गोवा बंदर, मडप्पा, पीटर, फर्नांदीन ह्योय जाती भारतांत महाराष्ट्र, गुजरात, उत्तर प्रदेश, बिहार, बंगाल, कर्नाटक ह्या राज्यांनी जातात.

गोंयांत जावपी म्हत्वाच्यो जाती अश्योः

१. **गोवा मानकुरादः** हे जातीचीं फळां खावपाक गोड आनी रुचीक आसतात. मार्च-एप्रिल म्हयन्यांत हे आंबे तयार जातात. पिकल्या उपरांत फळ चड काळ तिगून उरना. ह्या झाडाक एका वर्साआड फळां येतात.

२. **मुसरादः** हे जातीच्यो दोन पोटजाती आसात. बार्देस वाठारांत जावपी जातीक बार्देस मुसराद म्हण्टात, जाल्यार साश्टीच्या वाठारांत जावपी जातीक सालसेत मुसराद अशें म्हण्टात. हे जातीक नीखोलन, आल्फोस ह्या नांवानीय पाचारतात. हे जातीचे आंबे चडशे कॅनिंग कारखान्यांनी वेगवेगळे पदार्थ करचेखातीर वापरतात. हातूंत किसरां नासतात.

३. **हिलारिओः** मांग हिलार ह्या नांवानय ही जात वळखतात. हीं फळां गोडयेक एकदम बरीं. अखिल भारतीय प्रदर्शनांत हे जातीच्या फळाक बरींच इनामां मेळ्ळ्यांत. हे जातीचीं फळां उसरां तयार जातात.

४. **मालगेशः** हीं फळां दिसपाक ओडलायणी आसतात. फळांचो काथो बारीक. फळांत रेस भरपूर आसता. ह्या फळांत किसरां सांपडनात.

५. **कुलासुः** हीं फळां आकारान लांबट आसतात आनी तीं उसरां तयार जातात. हे जातीचें झाड दर वर्सा फळां दिता.

६. **शाव्हियेरः** हांचो आकार ल्हान पूण रुचीक आनी गोडयेक हीं फळां बेस बरीं. हीं फळां उसरां तयार जातात.

७. **फुर्तादुः** फळां बेगीन तयार जातात. झाड दर वर्सा फळां दिता. फळां भरपूर प्रमाणांत जातात. फळांभितर किसरां नासतात.

८. **साकरचीः** फळां आकारान ल्हान पूण बरेच काळ तिगून उरतात.

९. **उदगोः** ह्या फळाक एक वेगळोच विचित्र वास येता. फळांत किसरां नासतात.

आंब्याच्या पिकाक उश्ण आनी दमट हवामान बरें मानवता. मध्यम प्रतीची, उदक सहजपणान व्हांवन वचपासारकी आनी कांय प्रमाणांत आम्ल स्वरुपाची जमीन पिकाक बऱ्याक पडटा. आंब्याची लागवड काथे लावन करूं येता. पूण हीं झाडां बऱ्या दर्जाचीं जायनात, ताका लागून लागवड चडशी कलमां लावन जाता. पयलीं कलम पध्दतींत थेट कलम, गुटी कलम, ह्या सारक्यो पध्दती आशिल्ल्यो पूण सद्या त्यो फाटीं पडल्यात. सद्या कोय कलम, मृदुकाश्ट कलम ह्यो पध्दती चडश्यो वापरतात.

आंब्याची लागवड करचेखातीर सोदिल्ली सुवात पयलीं थंयची झोंपां काडून निवळ करतात. १०×१० मी. अंतराचेर १×१ मी. लांबाये-रूंदायेचे फोंड १ मी. खोलमेरेन खणून ते भाजतात. उपरांत दर फोंडकुलांत १ किग्रॅ. स्टेरामील, १ किग्रॅ. मसुरी फॉस्फेट, चार कायली शेणसारें वा कंपोस्ट आनी उरिल्ली माती घालून फोंड भरून काडटात. वायटी आनी मुयेचो त्रास जावचो न्हय हाच्याखातीर फोंडकुलांत जंतुनाशक घालतात. ह्या फोंडकुलांत पावस पडल्या उपरांत कलम लायतात. वाऱ्यान तें मोडचें न्हय हाका लागून ताका बडी बांदून धिगी दितात. सुरवातीच्या तीन वर्सांखातीर गिमाच्या दिसांनी कलमाक उदक घालतात. पयल्या वर्सा शियाळ्यांत सप्तकांतल्यान एकदां जाल्यार फुडलीं दोन वर्सां पंद्रशींतल्यान एकदां उदक दितात. दर झाडाक एके खेपेक २०-२५ लीटर उदक घालतात.

चड उत्पादनाखातीर झाडाक सारेंय घालतात. धा वर्सां आनी ताच्या वयल्या पिरायेच्या झाडाक १५०० ग्रॅं. नत्र, ५०० ग्रॅं. स्फुरद आनी ५०० ग्रॅं. पलाश ऑगस्ट म्हयन्यांत दितात. हाच्या वांगडा कंपोस्ट आनी शेणसारेंय घालतात. १० वर्सां सकयल्या पिरायेच्या झाडाक सारें उण्या प्रमाणांत घालतात. झाडाभोंवतणी आळें काडून तातूंत सावळ घालून उपरांत सारें घालतात. सारें घाल्या उपरांत आळें बंद करतात. झाडाभोंवतणी नेमान नडणी करची पडटा. आंब्याच्या रुखाक किडीचो आनी रोगाचो बरोच त्रास जाता.

१. **तुडतुडेः** ही कीड चंवरांतल्यान आनी पानांतल्यान पातळून तांचो रोस पिता. हाकालागून चंवर करपता आनी फळां जायनात. हे किडीच्या आंगांतल्यान भायर सरपी चिकट आनी गोड पदार्थाक लागून झाडाचेर चितो पातळटा आनी झाडाक भुरी हो रोग जाता. ही कीड आळाबंदा हाडचेखातीर १५ मिली. एन्डोसल्फन तशेंच १० ग्रॅं. बावीस्टीन हें जंतूनाशक १० ली. उदकांत भरसून ताचो झाडाचेर फवारो मारतात.

२. **कोंबरी खावपी कीडः** ही कीड झाडाक आयिल्ली नवी कोंबरी खाता, ताकालागून कलमाची वाड जायना. ही कीड चंवरांचेय लुकसाण करता. हाचेर उपाय म्हूण नुवाक्रोनचो फवारो झाडाचेर मारतात.

३. **फळमूसः** ही कीड फळाचे सालीक ल्हान बुराक करता आनी तातूंत तांतयां घालता. ह्या तांतयांतल्यान किडी भायर सरून त्यो फळांतलो गर खातात. हाकालागून फळ कुसता. हे किडीचो प्रसार जांवचो न्हय हे खातीर पडिल्लीं फळां पुंजावन तीं नश्ट करतात. ह्या भायर टार्टरएमीटीक, गोड आनी उदक हांच्या मिश्रणाचो झाडाचेर फवारो मारतात.

४. **खांदयो आनी झाडां पोखरपी कीडः** ही कीड झाडाचे सालींत वा खांदयांमदल्या खांचींत तांतयां घालता. तांतयांतल्यान आयिल्ल्यो किडी पुराय झाड पोखरून ताचो गाभो खातात. व्हडा प्रमाणांत लागण जाल्ली आसल्यार झाड रोखडेंच मरता. हाचेर बी. एच्. सी. ५०% हें जंतुनाशक उदकांत भरसून झाडाचेर सारयतात. पूण कीडीचो प्रभाव चड आसल्यार ह्या वखदाचो कांयच परिणाम जायना.

५. **काथो पोखरपी कीडः** ही कीड फळ तरनें आसतना ताचेर तांतयां घालता. तांतयांतल्यान भायर येवपी कीड फळांतल्यान भितर सरून तरन्या काथ्यांत घुसता. हे किडीची पुराय वाड काथ्यांत जाता. वाडल्याउपरांत ती भायर येता आनी फळांतलो सगळो गर इबाडटा. हे किडीचेर उपाय म्हूण लॅबासीड हें जंतुनाशक आंब्यांक बारीक कण जाल्या उपरांत तांचेर फवारतात.

भुरी हो रोग आंब्याचें व्हड प्रमाणांत लुकसाण करता. आंब्याक चंवरां येतात तेन्ना ह्या रोगाची लागण जाता. चंवरांचेर धवो पिठो निर्माण जावन फुलां गळून पडटात. ह्या रोगाचो परिणाम जाता तेन्ना तुडलुडे ह्या किडीचीय वाड जाता आनी तुडतुडे काबार करचे खातीर वापरपाचो उपाय ह्या रोगाचेरुय लागू जाता.

करपो होय रोग आंब्याक जाता. ह्या रोगाची लागण जाल्या उपरांत पानांचेर तांबश्या कोराचे थिपके दिसतात. उपरांत हे थिपके व्हड जावन एकामेकामदीं भरसतात आनी पान करपून गळून पडटा. ह्या रोगाचेरय जंतूनाशक फवारतात.

आंब्याच्या झाडाचेर वाडपी बेनुल्ल ही परोपजीवी वनस्पत झाडाच्या खांदयानीं आपलीं मुळां घुसोवन झाडाचो रोस ओडून घेता. हाकालागून झाड सुकता, देखून ही बेनुल्ल दिसल्या बरोबर काडून उडोवची पडटा.

आंब्याचें कलमी झाड एका वर्सांत फुलता, पूण पयलीं तीन वर्सां फुलां काडून उडयतात. कलम ल्हान आसतना फळां आयल्यार झाडाचे वाडीचेर परिणाम जाता.

आंबे पिकून तयार जाले वा जून जावन पिकूंक पावले म्हण्टकच ते झाडावयल्यान काडटात. आंबे काडटना देंठ मात्शे लांब दवरून काडटात नाजाल्यार आंबे कुसपाची शक्यताय आसता. आंबे काडचेखातीर 'कोबलें' वापरतात. ताका लागून तांकां कसलीच दूख जायनासतना ते बरे उरतात. आंब्याच्यो कांय जाती दर वर्सा फळां दितात जाल्यार कांय

एका वर्साआड फळां दितात. उत्पन्न जातीचेर आदारून आसता.

२० वसां पिरायेचें झाड सादारणपणान १००० आंबे दिवंक शकता. आंबे काडल्या उपरांत ते तणांत दवरून पिकयतात आनी मागीर बाजारांत विकतात.

आंब्यांच्या तरन्या फळाचो म्हळयार तोरांचो बरोच उपेग जाता. पिकिल्ल्या फळांत अ, ब आनी क जीवनसत्त्वां आसतात. ह्या भायर तातूंत स्फुरद आनी कॅल्शीयम हेय म्हत्वाचे घटक आसतात. आंब्याच्या पिकिल्ल्या आनी तरन्या फळाचे तरांतरांचे उपेग जातात.

**लोणचें:** तरन्या आंब्यांच्यो (तोरांच्यो) फोडी करून तातूंत मसालो घालून लोणचें करतात. हाचो आहारांत बेस बरो उपेग जाता.

**खळांतलीं तोरां:** तरनी तोरां मीठाच्या उदकांत घालून तीं खळांत चेपणाक दवरतात. हीं तोरां बरोच तेंप उरतात. तांचो लोणच्याखातीर वा जेवणाचेर अशींच खावंक उपेग जाता.

**आमरस:** पिकिल्ल्या आंब्याचो रोस काडून तो डब्यांनी बंद करून दवरतात. तो हरशींय आंब्याच्या मोसमांत एक पेय म्हूण पितात.

**जाम:** पिकिल्ल्या फळांचो रोस काडून तातूंत साखर घालून तो तापयतात. हातूंत सायट्रीक ॲसिड आनी पेक्टीन घालून तें मिश्रण डब्यांनी वा बाटल्यांनी बंद करतात.

**आंब्याचें साठ:** गोंयांत आनी कोंकण वाठारांत आंब्याचें साठ हो प्रकार सर्रास करतात. हें साठ रुचीक बरें आनी आंब्याचो स्वाद दिवपी आसता.

**आंब्याची चॉकलेट:** आंब्याच्या रोसांत साकर, ग्लुकोज, दुदाचो खवो आनी तूप घालून तें मिश्रण शिजोवन सुकयतात आनी मागीर ताच्यो चॉकलेटी तयार करतात.

आंब्याच्या झाडाचीं पानां जावा, फिलीपीन्स ह्या देशांनी भाजी म्हूण वापरतात. गळ्याचो त्रास आसल्यार आनी खेळण्यो आयल्यार पानां जाळून त्या धुंवराचो स्वास घेतात. आंब्याचीं सुकिल्लीं चंवरां पातळ भायर जावपाच्या दुयेंसाचेर वखद म्हूण वापरतात. आंब्याचे सालीचो उपेग रंग तयार करपाच्या कारखान्यांनी जाता. आंब्याची पारय (तरनो कायो) कांय लोक खावपाखातीर वापरतात. पारय गोरवांचे खावडीखातीय वापरतात. आंब्याचें लांकूड हें मध्यम दर्जाचें आसता. बारीकसारीक वस्तू करपाखातीर ह्या लांकडाचो उपेग जाता.

- विश्राम गांवकार

**संस्कृतीक संदर्भ:** आंब्याचो रुख मंगलकारक अशें मानतात. माघ शु. द्वितीयेच्या दिसा चंद्राक आनी शिवरात्रेच्या दिसा म्हादेवाक आंब्याची खांदी ओंपतात. बऱ्या कार्यावेळार मंडपांत आनी दाराचेर आंब्याच्या पानांचीं तोरणां बांदपाची पध्दत आसा. धर्मकार्यावेळार कलशाचेर आंब्याचीं पानां दवरून ताचेर नाल्ल वा पूर्णपात्र दवरपाची प्रथा आसा. महाराष्ट्रांत लग्ना उपरांत न्हवऱ्या-व्हंकलेन आंबो शिंपपाची पध्दत आसा. दशाहरांत आनी वडापुनवेक बायलो आंब्याचीं वायळां दितात. आंब्याचें फळ हें वांझपण नश्ट करपी मानतात. दैवी कृपेचें आंब्याचें फळ खाल्ल्यान वांझ बायलेक गुरवारपण येता असो उल्लेख भारतीय साहित्यांत बरेचकडेन मेळटा. आदिवासींच्या काणयांतूय ही कल्पना आसा. छत्तीसगढ आनी छोटानागपुर हांगाचे शेतकामती आनी आदिवासी आंब्याचें तरनें तोर खावपाचे विधीसावन, पयलें पिकिल्लें फळ खायमेरेनचे विधी नाचून गावन मनयतात. परधान आदिवासीपैकीं मारकम् ह्या पंगडाचें आंबो हें देवक आसा. महाराष्ट्रांत चैत्रगौरीक आनी अक्षयतृतीयेक देवीक तोरांचो नैवेद्य दाखयतात.

गडबा आनी कोंड आदिवासींच्या कथांनी आंब्याचो संबंद दादल्याच्या वृषणाकडेन जोडला. आंब्याक लागून मरण धर्तरेचेर आयलें, अशें एका बौंडो आदिवासीच्या काणयेंत सांगलां. गडवा आनी बोंडो आदिवासींत निमणे संस्कार करून घरा परतुच्यापयलीं आंब्याची साल हुपपाची पध्दत आसा. सगळयो आदिवासी जमाती आंब्याच्या पयल्या फळाचे उत्सव मनयतात आनी उपरांत आंबे खातात. आंब्याविशीं भारतांत बरींच लोकगीतां, आख्यायिका आनी काणयो प्रचलित आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**आंवाळो:** (मराठी- आंवळा, आवळी; हिंदी- अमलिका; गुजराती- आमला, अंबाल; कन्नड- अमलका; संस्कृत- आदिफल, अम्लिका; इंग्लीश- एंब्लिक, मायरेबलान; लॅटीन- एंब्लिक, ऑफिसिनॅलिस. कूळ- युफोर्बिएसी). हो मध्यम आकाराचो, ९ ते १२ मी. उंचायेचो आनी थोडोच तेंप पानां आशिल्लो रूख. भारतांत सगळ्या वाठारांनी तेचपरी उश्ण कटिबंधांतल्या आनी उप-उश्ण कटिबंधांतल्या रानांनी हो रुख दिश्टी पडटा. तशेंच ह्या रुखाची लागवडय करतात. श्रीलंका, चीन, मलाया ह्या सारकिल्या भायल्या वाठारांनीय हो रुख जाता. गोंय, महाराष्ट्रांत (कोंकण, अस्तंत घाट, दखनाचे पठार आदी वाठारांत) हो रुख सैमीक तरेन वा लागवड केल्लो दिश्टी पडटा.

आंवाळयाच्या झाडाचें कांड सादारण, वांकडें तिकडें आनी खांदयो पातळिल्ल्यो आसतात. पानां एकाफाटल्यान एक, ल्हान देंठ्यांचीं आनी खांदयेर वळीन आसतात. मार्च ते मे म्हयन्यांत पानांच्या खाचींत फुलांचे तुरे येतात. ह्या रुखाक फुलां एकलिंगी, संवर्त (calyx) स दलां आशिल्लो, प्रपिंड स आनी केसरदळां मोटवीं आसतात. ताका वाटकुळें, दोन सेंमी. व्यासाचें, गुळगुळीत, लेव पाचवें आनी ताचेर स उब्यो रेगो आशिल्लें फळ (आंवाळो) येता. फळांत तीन धारो आशिल्ली एकूच बी आसता. आंवाळो रुचीन तोरट, शीतळ, मूत वाडोवपी आनी सारक आसता. सुकिल्लो आंवाळो पातळ परसाकडे, रगत वचप, मोडशी हांचेर उपेगी पडटा. हीं फळां कामीण, रक्तक्षय आदीचेर दितात. मुळां आनी साल तोरट आसता. दमो आनी स्वासनळयेंत जावपी दाह हांचेर बियो उपेगी पडटात. फळांत 'क' जीवनसत्त्व भरपूर आसता आनी तें 'स्कर्व्ही' ह्या विकाराचेर उपायकारक थारता. आंवाळयाच्या फळाचो खावपाखातीर उपेग करतात. देखीक लोणचें, मुरामो, आंवाळकाटी हे पदार्थ करतात. आंवाळे खळांत घालतात. सालींत, पानांत आनी फळांत 'टॅनीन' भरपूर आसता. ताचो उपेग चामडी कमोवपाक करतात. घरबांदणेच्या साद्या कामांत शेतांत वापरपाचीं आयुधां करपाखातीर आनी जळवाखातीर आंवाळयाच्या लांकडांचो उपेग करतात.

**संस्कृतीक संदर्भ:** हिंदु धर्मांत आंवाळयाक पवित्र फळ मानतात. कार्तिक म्हयन्यांत तुळशीच्या लग्नावेळार (व्हडली दिवाळी) तुळशींत ऊंस आनी चिच हांचे वांगडा आंवाळयाची ताळी दवरतात. तुळशीचें लग्न जावचे आदीं आंवाळो खावचो न्ही अशी सांगणी आसा. आयजूय गोंयांत जाण्टीं मनशां तुळशीचें लग्न लागल्या उपरांतूच आंवाळो उश्टायतात.

आंवाळयाविशीं पुराणांत अशें सांगलां की, मरणाधडेर पाविल्ल्या मनशाच्या नाक, कान आनी केंस ह्या सुवातींनी आंवाळो दवरल्यार तो मनीस विष्णुलोकांत वता, आंवाळयाचें झाड रोवपी मनीस पुनर्जल्मापसून मुक्त जाता आनी जाच्या दारांत आंवाळयाचें झाड आसा त्या घरांतल्या मनशांक भूतबाधा जायना.

आंवाळयाचें माहात्म्य सांगपी एक कथा अशी आसा- एकदां एक चांडाळ शिकारेक गेल्लेकडेन ताका थंय तान लागता. तेन्ना थंय आशिल्ल्या आंवाळयाच्या झाडाचेर चडून तो खूब आंवाळे खाता. त्याचवेळार तो सकयल पडटा आनी मरता. जेन्ना पिशाच्च ताका व्हरपाक येता तेन्ना तें ताका व्हरूंक शकना. थंय आशिल्लो ऋषी ताका सांगता की ताणें आंवाळे खाल्ल्यान ताची कूड पवित्र जाल्या. तुका पिशाच्च योनींतल्यान सुटका जाय जाल्यार आंवाळे खा. पिशाच्च आंवाळे खाता आनी रोखडीच ताची सुटका जाता.

**रोग:** आंवाळयाच्यो खांदयो, पानां आनी फळां हांचेर पिंगशे फोड येतात. ते रॅव्हेनेलिया एंब्लिकी ह्या चित्या खातीर जावपी नांबेर रोगापसून जातात. हो रोग आळाबंदा हाडपाक 'बोर्दो' मिश्रणाचो फवारो मारतात.

**भूंय-आंवाळो:** (मराठी- भुईआवळी; हिंदी आनी गुजराती- भूमी आमली; कन्नड- किरेलेल्ली; संस्कृत- अमला वितंतिका; लॅटीन-

फायलँथस निरुरी; कूळ-युफोर्बिएसी). एक वर्सभर उरपी वखदी झाड. उंचाय सुमार ३०-६० सेंमी. भारत आनी श्रीलंका तशेंच ऑस्ट्रेलिया सोडून उष्णकटिबंधांतल्या हेर देशांत ही वनस्पत जाता. कोंकण आनी दक्षिण भारताच्या पिकांत ही वनस्पत तणाभशेन वाडटा. हे वनस्पतीक दोन वळींत दीर्घवृत्ताकृती आनी ल्हान पानां आसतात. जुलय ते ऑगस्ट म्हयन्यांत पानांचे खांचींत एकलिंगी, हळडुवीं आनी जायतीं फुलां येतात. पु-पुश्पां १ ते ३ आनी स्त्री-पुश्पां एकोडीं येतात. फळ श्यामकें ल्हान आसता.

भूंय आंवाळ्याचीं मुळां कामणीचेर उपेगी पडटात. पानां भूक वाडोवपी आसतात आनी कंवळ्या पानांचो काडो आमांशा (मोडशी) चेर दितात. घायांचेर दीख उपेगी पडटा.

**राज-आंवाळोः** मराठी- रायआंवळा; इंग्लीश- Star gooseberry, Country gooseberry; लॅटीन- Cicca acida; शास्त्रीय- Cicea Disticha.

हें सादारणपणान सुमार तीन ते चार मी. उंचायेचें झाड गोंयांत तशेंच कोंकणांतल्या हेर भागांतल्या कुळागरांनी वा पोरसांनी दिश्टी पडटा: झाडाच्या कांडाक तशेंच खांदयेच्या आंगार घोसांनी आंवाळे लागतात. आंवाळ्याचें फळ लेव पाचवें आनी वाटकुळें आसता. पूण देंठाकडेन आनी पोंदा चेपिल्लें आसता. फळाची भायली बाजू फुगीर आनी शिरांची आसता. हें फळ वखदी आसून खावपाखातीर तशेंच लोणचें वा गोड लोणचें करपाखातीर वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**आः** वर्णमालेतलें दुसरें अक्षर. हाचो उच्चार कंठांतल्यान जाता. दीर्घ आनी प्लुत अशा दोन प्रकारांनी उच्चार जाता.

हाच्याविशीं कामधेनुतंत्रांत अशें वर्णन आयलां:

आकारं परमाश्चर्यं शङ्खज्योतिर्मयं प्रिये ।
ब्रह्मविष्णुमयं वर्णं तथा रुद्रमयं प्रिये ।
पञ्चप्राणमयं वर्णं स्वयं परमकुण्डली ।।

अर्थ-

'आकार हो अरुप- अजापांच्या रुपाचो, शंखासारको, तेजीश्ट, ब्रह्मा, विष्णु आनी रुद्र हांचो राबितो आशिल्लो, पंचप्राणात्मक आनी परमकुंडली (वाटकुळो) जावन आसा'.

वर्णाभिधानांत हाका विजय, अनंत, विनायक अशीं खूब नांवां दिल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**आइन्स्टाइन, आल्बर्टः** (जल्मः १४ मार्च १८७९, उल्म-जर्मनी; मरणः १८ एप्रिल १९५५, प्रिन्स्टन- अमेरिका).

नामनेचो भौतिकशास्त्रज्ञ. सापेक्षता सिध्दांताचो (Theory of Relativity) जनक म्हूण ताणें नामना मेळयली. जर्मनी आनी स्वित्झर्लंड हांगाच्या तांत्रिक शाळांत शिक्षण घेतकच १९०५ त ताणें झुरिक विद्यापीठाची पीएच्.डी. मेळयली. १९०२-१९०९ ह्या काळांत ताणें बर्न हांगाच्या पेटंट ऑफिसांत तपासनीकाचें काम केलें. ह्याच काळांत ताणें उजवाडायल्ल्या चार शास्त्रीय निबंदांखातीर झुरीच विद्यापीठांत सैध्दांतिक भौतिक शास्त्राचो प्राध्यापक म्हूण ताची नेमणूक जाली (१९०९).

१९१३ वर्सा तो बर्लिनच्या 'कैसर विल्हेल्म इन्स्टिट्यूट ऑफ फिजिक्स' हे नामनेचे संस्थेचो संचालक जालो आनी १९१४ त 'प्रशियन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेस'चो सदस्य जालो. जर्मनींत हिटलरचो शेक सुरू जाल्ल्यान १९३३ वर्सा तो अमेरिकेक गेलो. थंयच प्रिन्स्टन, न्यू जर्सी हांगा 'इन्स्टिट्यूट फॉर ॲडव्हान्स्ड स्टडी' संस्थेंत ताची नेमणूक जाली आनी अखेरमेरेन ताणें थंयच संशोधन केलें. १९४० त ताका अमेरिकेचें नागरिकत्व मेळ्ळें. १९०५ वर्सा ताणें मर्यादित सापेक्षता सिध्दांत, वस्तुमान आनी ऊर्जा हांचें सारकेपण ($E=mc^2$) ब्राऊनियन गतीविशींचो सिध्दांत आनी उजवाडाविशींचो फोटोन सिध्दांत ह्या विशयांत क्रांतिकारक निबंद उजवाडायले. ताचो चडसो शास्त्रीय वावर सापेक्षता सिध्दांत, सांख्यिकीय यामिकी (statistical mechanics), उजवाड प्रारण (light radiation) आनी शोषण सिध्दांत (absorption theory) ह्या विशयांचेर आसा. सापेक्षता सिध्दांतांचें जर वेवस्थित व्यापकीकरण केलें जाल्यार ताचेपसून गुरुत्वाकर्षण सिध्दांत मेळपाक जाय, अशें ताणें सोदून काडलें. खूब कश्टांच्या संशोधनाउपरांत ताणें आपलो नामनेचो सापेक्षता (relativity) सिध्दांतावेलो निबंद उजवाडायलो. विश्वरचणूक शास्त्रांतल्या (cosmology) प्रस्नांविशींचो एक म्हत्वाचो निबंदूय ताणें उजवाडायलो. अवकाश-काल भूमितीवरवीं गुरुत्वाकर्षणीय आनी विद्युत् चुंबकीय ह्या दोनूय मळांक लागू पडपी सिध्दांत म्हळ्यार 'एकवटीत मळ सिध्दांत' (Unified Field Theory) तयार करपाचो ताणें १९२९ वर्सा पयलो यत्न केलो. मार्च १९५३ वर्सा गुरुत्वाकर्षण, विद्युत् चुंबकत्व आनी सापेक्षता ह्याविशींचे नेम एकाच गणिती सूत्रांत मांडपाक ताका येस आयलें. उजवाडविद्युत् विशींचो (photo electric effect) सिध्दांत आनी भौतिकशास्त्रांतल्या ताच्या हेर सैध्दांतिक वावराखातीर ताका १९२१ वर्सा भौतिकी विशयाचो नोबेल पुरस्कार फाव जालो.



आल्बर्ट आइन्स्टाइन

१९३९ वर्सा ताणें तेन्नाचे अमेरिकन राष्ट्राध्यक्ष फ्रँकलिन रूझवेल्ट हाका अणु-ऊर्जा शस्त्रास्त्रांविशीं पत्र बरयलें; देखून लागून अमेरिकन सरकारान अणुबाँब तयार करपाखातीर 'मॅनहॅटन येवजण' बे गो बे ग हातांत घेतली. दुसरें म्हाझुज सोंपतकच आइन्स्टा-इन हाणें संवसारीक शांततायेखातीर यत्न करपी शास्त्रज्ञांवांगडा वावर केलो. तशेंच संवसारीक सरकाराची थापणूक करपाचे कल्पनेक ताणें नेटान तेंको दिलो. नाझी जर्मनींतल्यान अमेरिकेंत आयिल्ल्या जायत्या निर्वासितांक पालव दिवपाक ताणें फुडाकार घेतलो.

तो लंडनच्या रॉयल सोसायटीचो फेलो आनी अमेरिकेच्या नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचो वांगडी सदस्य आशिल्लो. ताणें ३०० वयर शास्त्रीय निबंद आनी वेगवेगळ्या विशयांवयले जायते ग्रंथ बरयल्यात. तातूंतले मुखेल ग्रंथ अशेः (पयले चार मूळ जर्मन भाशेंतले) १. The Meaning of Relativity (१९२३) २. About Zionism (१९३९) ३. Why War? (झिग्मंड फ्रॉइड वांगडा, १९३३) ४. The World as I see it (१९३४) ५. Builders of the Universe (१९३२) ६. The evolution of Physics (लेओपोल्ट इनफेल्ट वांगडा, १९३८) ७. Out of my later years (१९५०).

- कों. वि. सं. मं.

**आइस-क्रीमः** दूद, साकर, ग्लुकोज हे पदार्थ एकठांय गोठेवन केल्लो खाद्यपदार्थ. हातूंत केन्नाकेन्नाय सुकीं फळां, तांतयां रंग घालतात. आइस-क्रीमांत सादारण ८-१४% स्निग्धपदार्थ, ८-१२% स्निग्धपदार्थविरयत घन दुग्ध घटक (non-fat milk solids), १२-१७% साकर आनी स्थिरकारी द्रव्य (stabilizer) आनी हे रुचीक पदार्थ वेगवेगळ्या प्रमाणांत आसतात. आइस-क्रीमाची वर्गवारी तातूंतल्या घटकांवेल्यान थारायतात. सादे, फळांचें, पुडिंग, कस्टर्ड, सरबत अशे आइस-क्रीमाचे जायते प्रकार आसात.

थोड्या प्रमाणांत आइस-क्रीम करपाखातीर घरगुती आइस-क्रीम पात्राचो उपेग करतात. हें पात्र जस्तविलेपित तिखें, स्टेनलेस स्टील वा ॲल्युमिनियमचें आसता. ताचेभितर मदीं रवी आसता आनी ताचेभायल्यान लांकडी पिंपाचें सदळ धांपणे आसता. त्या दोगांयच्या मदले जागेंत बर्फाचें आनी मिठाचें समप्रमाण मिश्रण घालतात. पिंपाच्या वयले वटेन पात्राच्या धापण्यांतसून भायर आयिल्लो रवीचो दांडो घुंवडावन आइस-क्रीमाचें मिश्रण ढवळतात. ही ढवळपाची क्रिया आइस-क्रीम सुमाराचें घट्ट जायमेरेन करतात.

**आइस-क्रीमाची उत्पादन-कृती अशी:**

१. मिश्रणः मिश्रणपात्रांत वा पाश्चरीकारकांत (उश्णतायेन निर्जंतुकीकरण केल्ल्या पात्रांत) मिश्रण तयार करतात. तातूंत दूद, सांद्रित (concentrated) दूद वा हेर घन पदार्थ घालतात. मिश्रणाचें तापमान सुमार ४३ से. जातकच तातूंत साकर घालतात. साकरेखांगडाच स्थिरकारी द्रव्यूय घालतात.

२. पाश्चरीकरणः दोन तरांनी करतातः अ) कमी तापमानांत बरेंच वेळ तापोवन. (सादारण ६८ ° से. क ३० मिनटां तापोवन). आ) उच्च तापमानांत थोडो वेळ दवरुन. (सादारण ७९ ° से. क. २५ सेकंद दवरून).

३. एकजीव करप (Homogenization): पाश्वरीकरण जातकच दर चौ. सेंमी. क ३५० किग्रॅ. दाब दिवन सगळें मिश्रण अशीर चिलींतल्यान सोडटात. ताका लागून मिश्रण गोठेवपाची क्रिया चालू आसतना लोणी वेगळें जावपाक प्रतिबंध जाता. देखून आइस-क्रीम एकदम मोव जाता आनी ताचो कालप्रभावन (aging) वेळ कमी जाता.

४. थंड करप (Cooling): सगळे पदार्थ एकजीव जातकच त्या मिश्रणांतसून एकदम उश्णताय काडून घेवन सुमार ४.४ ° से. वा कमी तापमानांत तें थंड करतात.

५. कालप्रभावन (Aging): थंड जाल्लें मिश्रण तेच स्थितींत कांय वरांमेरेन वा १-३ दिसांमेरेन दवरतात. मिश्रणांतल्या स्थिरकारी (stabilizer) द्रव्याचेर हो काळ आदारुन आसता. कालप्रभावन चालू आसतना स्निग्ध पदार्थाच्या (fats) बिंदुवत गोलकांचेर प्रथिनाचें अधिशोषण (Adsorption) जाता आनी ताकालागून आइस-क्रीमाच्या मोवसाण, फेणेर आदी गुणधर्मांत बदल घडून येतात.

६. गोठेवप (Freezing): चडशें मिश्रण सुमार ६° ते ४° से. तापमानांत जाय तितलें घट्ट जायमेरेन गोठ्यतात. आइस-क्रीमाक मोवसाण येवची म्हूण तें गोठ्यतना तातूंतल्या उदकापसून जावपी बर्फाचे स्फटिक आनी हवेचे बोमाडे सामके ल्हान आसचे पडटात. देखून, मिश्रण गोठेवप आनी ढवळप ह्यो क्रिया बेगोबेग करतात. सगळे पदार्थ एकजीव जातकच तें मिश्रण continuous type freezer वा softserve पध्दतीच्या प्रशीतकांत (refrigerator) घालून एकदम थंड करतात. हे क्रियेच्या वेळार रंग, स्वाद (Flavour), फळां मिश्रणांत घालतात.

७. गुठ्लावपः वयले पध्दतीन तयार जाल्लें आइस-क्रीम प्रशीतकांतसून आशिल्लें तशें उश्णताय-निरोधित (heat insulation) वा प्रशीतित हॉपरचेर सोडटात. थंयच्यान तें भरपाचे आनी गुठ्लावपाचे यंत्रणेत धाडटात.

८. घट करप आनी सांठेवपः सुमार १८° ते २९° से. तापमानाचे कुडींत दवरून आइस-क्रीम घट करतात. तें घट जावपाखातीर २५ लिटरच्या डब्याक कमीत कमी १२ वरां लागतात. विकपाक धाडीमेरेन आइस-क्रीम हे कुडींत दवरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**आइसलँडः** ह्या देशाचें दुसरें नांव लिव्देदिल्द इस्लांत, उत्तर अटलांटिक म्हासागरांत युरोपाचे वायव्य दिकेक आशिल्लो जुंवो आनी प्रजासत्ताक राश्ट्र. अक्षवृत्तीय विस्तार ६३° २४′ ते ६६° ३३′ उत्तर. उत्तर आनी दक्षिणेवटेनचे जुंवे धरून ६३° १९′ उत्तर ते ६७° १०′ उत्तर. रेखावृत्तीय विस्तार १३° ३०′ ते २४° ३२′ अस्तंत-उदेंत अस्तंत लांबाय सुमार ४८० किमी. दक्षिणउत्तर रुंदाय सुमार ३०० किमी. क्षेत्रफळ १,०३,१०० चौ. किमी. लोकसंख्या २,२९,१८७ (१९८०). हें राश्ट्र ग्रीनलँडचे आग्नेयेवटेन सुमार २९० किमी. आनी स्कॉटलंडचे वायव्येवटेन ८०० किमी. पयस आसा.

**भूंयवर्णनः** आइसलँड हो ज्वालामुखी फुटून तयार जाल्लो जुंवो. हांगा हिमयुगांतल्या घडणुकांचे बरेचशे अवशेश मेळटात. नैॠत्य दर्या देगेवेलो आनी कांय दर्यांचो वाठार सोडल्यार हेर सगळो जुंवो दोंगरांनी आनी पठारांनी भरिल्लो आसा. हाची सरासरी उंचाय ७००-८०० मी. आसा. सुमार १२% वाठार हिमन्हंयानी आनी हिममळांनी भरला. आग्नेयेवटेनचो हवानादाल्सहनूकर (२,११९ मी.) सगळ्यांत उंच दोंगर, जाल्यार हांगाच आशिल्लें वाल्नायकूत्ल हें सगळ्यांत व्हड (७,५४७ चौ. किमी.) हिममळ, आइसलँडाचो ११% वाठार लाव्हारसाक लागून तयार जाला. सद्या हांगा सुमार शंबरांपरस चड जागृत ज्वालामुखी आसात. १७८३ वर्सा स्काप्तार हांगां, १९१८ त कटला हांगां, १९३४ त हवानादाल्सहनूकर जाल्यार १९४७ आनी १९७० त हेक्ला हांगा फुटिल्ल्या ज्वालामुखींक लागून बरेंच लुकसाण जालें. गरम उदकाचे झरे, तळीं, ल्हान व्हड धबधबे हांगा सांपडटात. हिममळां आनी भितल्लो उसू पडिल्लो वाठार हाकालागून आइसलँडाचो सुमार ७५% वाठार लोकवस्तीक फावसारको ना. दर्यादिग सुमार ५,९७० किमी. खरखतीवरी तोंका आशिल्ली आनी फातरांची आसा. आइसलँडांतल्यो न्हंयो जरी ल्हान आनी येरादारीक उपेगी नासल्यो तरी त्यो वीज तयार करपाक उपेगी पडटात.

उत्तर ध्रुववृत्तालागीं आसूनलेगीत गल्फ प्रवाहांक लागून आईसलँडचें तापमान शिंयाच्या दिसांनी चड सकयल देंवना. शिंयाळो व्हड आनी गीम उण्या काळाचो आसता. रेक्याव्हीक ह्या राजधानीच्या शारांत तापमान -१° से. ते ११° से. मेरेन आसता. पूण हांगाचें हवामान सादारणपणान अस्थिर आनी सदांच बदलपी आसता. धुकें, वारें आनी पावस ह्यो हांगा सामक्यो सदांच्योच गजाली. पूण जोगलां आनी वादळां येवप ह्यो गजाली हांगा अणभवाक येनात. वर्सांतल्यान सुमार ८५ सेंमी. पावस पडटा. कांय वाठारांनी मात पावस सामकोच उणो आसा. सामके उत्तरेवटेनच्या जुंव्यांचेर रातचो मध्यान्येचेर सूर्य दिसता.

आइसलँडांत व्हडली वनस्पत सांपडना. शेळो, तण, आनी ल्हानसान झोंपां हीच हांगाचीं मुखेल वनस्पत. ॲश, बर्च, ॲस्पेन आनी विलो हीं झाडां कांय सुवातींनी दिसतात. रानवटी फुलांच्यो सुमार ४०० जाती हांगा दिसून येतात.

पोशिल्ल्या जनावरांमदीं मेंढरां, बोकड्यो, घोडे, गाय हीं मुखेल आसात. गोरवां पोसप हो हांगाच्या १६% लोकांचो वेवसाय जावन आसा. रानवट मोनजातीमदीं खोकड ही मूळ हांगाची. १८ व्या शेंकड्यासावन रेनडीयर हांगा आयलो. भांगराकोराचो प्लव्हर, कर्ल्यू, हांयस, किरा, हंस, गीज हीं हांगाचीं मुखेल सुकणीं. टार्मिगन बर्ड आनी आयडर डक हीं सवणीं अर्थीक नदरेंतल्यान म्हत्वाचीं आसात. आइसलँडच्या न्हंयांनी सॅमन आनी दर्यांत कॉड, हॅडॉक, हॅलिबट, हेरिंग ह्या तरांचें नुस्तें मेळटा. देवमाशासारकेंय नुस्तें हांगा दिश्टी पडटा.

**इतिहासः** पूर्विल्ल्या काळांत ग्रीक आनी रोमन हांकां जरी आइसलँडाची म्हायती आशिल्ली तरी णवव्या शेंकड्यामेरेनचो इतिहास सांपडना. नॉर्वे देशाचो इंगोल्फर आरनॉरसन हाणें ८७४ वर्सा हांगा पयलो रबितो केलो. ताचे उपरांत नॉर्वे, स्कॉटलंड, आयर्लंड, ऑर्कनी, शेटलंड आनी हॅब्रिडीझच्यान लोक येवन हांगा रावपाक लागले.

व्हायकिंग राजांचे एकतंत्री राजवटीचो वायट अणभव घेतिल्ल्या वसाहतींतल्या लोकांनी ९३० वर्सा उमरावशायेचे बुनयादीचेर लोकांचें शासन हाडपाचो यत्न केलो. तांणी सगळ्या वसाहतींचे ३६ वांटे केले आनी दरेक वांट्याचेर 'गोडार' म्हळ्यार मुखेल्याक नेमलो.

वर्सांतल्यान दोन सप्तकां थींग व्हेट्लिर हांगा समेस्त जमात-मुखेल्यांची परिशद जाताली. हे परिशदेक 'आल्थिंग' अशें




18 cms

म्हण्टाले. आजूय आइसलँडांतल्या संसदेक 'आल्थिंग' अशेंच म्हण्टात. आल्थिंगाक कायदे करपाचे आनी न्याय दिवपाचे अधिकार आशिल्ले.

ह्या तेंपार एरिक द रेडच्या मुखेलपणाखाला आशिल्ली ग्रीनलँडची वसाहत आनी ताचो पूत लेव्ह एरिकसन हाणें लायिल्लो अमेरिकेचो सोद बरोच म्हत्वाचो आसा. हाचें वर्णन आइसलँडच्या सागा ह्या साहित्यप्रकारांत सांपडटा.

११ व्या शेंकड्याचे सुर्वेक नॉर्वेचो राजा ओलाफ त्रिंग्वेसॉन हाच्या यत्नांक लागून आइसलँडान किरिस्तांव धर्म आपणायलो. पूण तेराव्या शेंकड्यामेरेन हांगा पोरन्या धर्म शिकवणीचो प्रभाव आशिल्लो. पोरन्या नॉर्स साहित्यांत हाचें बरेंच वर्णन आसा. गोडारांनी धर्माचें मुखेलपण स्वताकडेन दवरपाखातीर बरेच यत्न केले. कांय काळान धर्मसंस्थेचें म्हत्व वाडोवन धर्मगुरूनीं मुखेल्यांक बागोवपाचे यत्न केल्ल्यान देशभर झुजां पेटलीं. पूण तेराव्या शेंकड्यांत आइसलँड पुरायपणान नॉर्वेच्या शेकातळा गेल्यान धर्मगुरु-मुखेली हांच्यामदलीं झगडीं बंद जालीं. नॉर्वेच्या शासनाखाला देशभर वायट परिस्थिती निर्माण जाल्ली आसतना १३८० वर्सा नॉर्वे आनी आइसलँड हे दोनय देश डेन्मार्कच्या शेकातळा गेले. फुडले तीन-चार शेंकडे आयर्लंडाक कितल्याशाच अरिश्टांक तोंड दिवचें पडलें. ज्वालामुखींचे प्रमाण बरेंच वाडलें. प्लेग सारकिल्या रोगाक लागून सुमार ५०% लोक काबार जाले. नुस्त्याच्या वेपाराचीं सूत्रां डेन्मार्काकडे गेल्यान बरेंच अर्थीक लुकसाण जालें. युरोपांतल्या धर्म-सुदारणेचे चळवळीच्या प्रभावान आइसलँडान ल्यूथरचीं तत्त्वां आपणायलीं आनी कांय काळान धर्मीक मळावेलें फुडारपणय डेन्मार्कच्या राजाकडेन आयलें.

फ्रेंच राज्यक्रांती आनी आइसलँडच्या पूर्विल्ल्या साहित्याच्या अभ्यासांतल्यान १९ व्या शेंकड्यांत हांगा राश्ट्रीयत्वाची कीट पेटली. योन सिगर्थ्सॉन (१८११-७९) हाच्या फुडारपणाखाला आइसलँडचे स्वतंत्रताय चळवळीक नेट आयलो. हाचो परिणाम म्हूण १८४३ वर्सा डॅनिश राज्यकर्त्यांक पोरन्या आल्थिंगचेर बारीकसाणीन विचार करचो पडलो आनी १८७४ वर्सा आइसलँडाक संविधान आनी भितरल्या शासनाची स्वतंत्रताय मेळ्ळी. फुडें १९१८ वर्सा ह्या देशाच्या पुराय स्वतंत्रतायेक मान्यताय मेळ्ळी आनी पंचवीस वर्सांखातीर डेन्मार्कच्या राजाकडेनच राजपद दिलें.

पयल्या म्हाझुजांत आइसलँड तटस्थ रावलो. पूण दुसऱ्या म्हाझुजांत जर्मनीन नॉर्वे- डेन्मार्काचेर घुरी घाल्या उपरांत इंग्लंडान हांगा आपलें सैन्य धाडलें. हे गजालीचो आइसलँडान निशेध केलो. पूण झूज सोंपल्याउपरांत आपलें सैन्य फाटीं घेवपाचें उतर इंग्लंडान दिल्ल्याकारणान हो वाद पेटूंक पावलो ना. फुडें १९४१ वर्सा इंग्लंडाचे सैन्य काडून हांगा अमेरिकेचें सैन्य दवरलें. १९४६ त आइसलडाँक संयुक्त राश्ट्रांचें सभासदपद मेळिल्लें. १९४८ त हो देश नाटो संघटनेक मेळ्ळो.

१९१८ कबलातीची मुदत सोंपतकच आइसलँडान स्वतंत्र प्रजासत्ताकाची घोशणा केली आनी १७ जून १९४४ दिसा थींगव्हेट्लिरच्या आल्थिंगान स्वेन ब्यर्न सॉन हाची अध्यक्षपदाचेर नेमणूक केली. १९५२-६८ मेरेन आस्गेसंसान आनी १९६८ आनी परत १९७२ वर्सा डॉक्टर क्रिस्त्यान एल्दयार्न अध्यक्ष म्हूण वेंचूनर ही पयली बायलमनीस वेंचून आयली.

**राज्यवेवस्थाः** आइसलँड प्रजासत्ताकाचें राज्य १९४४ च्या संविधानापमाण चलता. अध्यक्ष राश्ट्राचो मुखेली आसता. ताची वेंचणूक प्रौढ मतअधिकाराच्या तत्त्वाप्रमाण दर चार वर्सांनी जाता. तो पंतप्रधानाची नेमणूक करता. आल्थिंगची बसका चालू नासता तेन्ना ते स्वतंत्रपणान कायदेय करूंक शकतात. पंतप्रधान आपलें मंत्रीमंडळ थारायता. मंत्रीमंडळाच्या धोरणांप्रमाण शासन चलता.

आल्थिंग ही संसद दोन घरांनी भरता. हिच्या साठ सभासदांतले ४९ जाण चार वर्सांखातीर प्रतिनिधीत्व पध्दतीन वेंचून येतात. उरिल्ले इकरा जागे दरेका पक्षाक मेळिल्ल्या मतांच्या प्रमाणांत वांटून दितात. हे साठ सभासद आपल्यामदल्या १/३ सभासदांची वयल्या घराचे सभासद म्हूण वेंचणूक करतात. हेर सगळे सकयल्या घराचे सभासद उरतात. अर्थीक सोडून हेर खंयचींय विधेयकां खंयच्याय सभाघरांत चर्चेखातीर येतात. अर्थसंकल्प मात दोनय घरांच्या संयुक्त बसकेमुखार चर्चेखातीर येता.

शासन सोंपें जावचें म्हूण आइसलँडचे १६ प्रांत केल्यात. दरेक प्रांताचो कारभार लोकांनीं वेंचून दिल्लो आनी शासनान नेमणूक केल्लो शेरीफ चलयता. व्हडल्या शारांचो कारभार नगरपालिकांकडेन आसता.

आइसलँडाकडेन स्वताची राखणेदळां नात. फकत दर्यादिगेची आनी नुस्तें मारपाच्या हक्कांची राखण करचेखातीर राखणेदळ आसा. प्रांतीय न्यायमंडळ आनी तांचेवेलें देशांतलें सगळ्यांत उंचेलें न्यायालय अशी न्यायवेवस्थेची पध्दत आसा. आइसलँडांत मर्णाची ख्यास्त ना.

**अर्थवेवस्था:** हांगा खनिज संपत्ती चडशी ना. लिग्नायट, गंधक आदी थोड्या प्रमाणांत मेळटीं तरी तीं अर्थीक नदरेंतल्यान म्हत्वाचीं नात. हांगाची फकत ०.५% जमीन शेतवडीखातीर उपेगी पडटा. सुमार २०% लोक शेतवेवसायांत आसात. शेतवडीच्या मळार यंत्रांचो बरोच उपेग जाता. बटाट, सलगम, तण ही हांगाची मुखेल पिकावळ. गरम झऱ्यांच्या पालवान 'हॉट हावस' पध्दतीन फुलां, फळां आनी भाज्यांचे उत्पादन करतात. गोरवां पोसप चडशा शेतकारांक फायद्याचें पडिल्ल्यान तणाच्या पिकाक हांगा म्हत्व आसा. चडशे शेतकार गांयो, घोडे, कुकडां आनी फर मेळच्याखातीर हेर मोनजात पोसतात. दूद आनी मांस थळाव्या लोकांपुरतेंच जाता.

व्हड प्रमाणांत चलपी हांगाचो मुखेल वेवसाय म्हळ्यार नुस्तेमारी. देशाचो आकार आनी लोकसंख्येचो विचार केल्यार आयर्लंडचे लोक हेर युरोपीय देशांपरस चड नुस्तें मारतात. वर्साक सुमार ५०० देवमाशे हांगा मेळटात. लागसुल्ल्या देशांक ताजें नुस्तें निर्यात करतात. जाल्यार पयसुल्ल्या देशांनीं सुकयल्लें आनी डब्यांनी बंद केल्लें नुस्तें व्हड प्रमाणांत निर्यात जाता. रशिया, अमेरिका आनी इंग्लंड हीं हांगाच्या नुस्त्याचीं मुखेल गिरायकां जावन आसात. कड्डणां, हेर खाणां, यंत्रां, येरादारीचीं साधनां सारकिल्ल्यो वस्तू अमेरिका, ब्रिटन, रशिया आनी उदेंत जर्मनींतल्यान आयात जातात. देशांत वापरपाखातीर जाय आशिल्ल्यो ल्हान सान वस्तू, देखीक: कपडे, पायतणां, रंग, शाबू, मिठाय, प्लास्टीकच्यो वस्तू हांगाच तयार जातात.

देशांतल्या धबधब्यांचो उपेग करून वीज निर्मणी केल्या. हे वीजेचेर रेक्याव्हीक हांगाचो साऱ्याचो कारखानो आनी आक्रोनेस हांगाचो शिमीटाचो कारखानो ह्या सारके बरेच कारखाने चलतात.

आइसलँडांत रेल्वे नात. ११,१३७ किमी. परस चड लांबायेचे रस्ते आसात. रेक्याव्हीक हांगा आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. नुस्तेमारीच्या धंद्याक लागून बोटी बांदपाच्या आनी उदकांतल्या येरादारीच्या वेवसायाक म्हत्व आयलां.

क्रोन (भोववचन-क्रोनर) हें हांगाचें चलनी नाणें.

**लोक आनी समाजजीण:** आइसलँडचे लोक चडशे स्कँडिनेव्हियन वंशाचे आसात. ते ऊंच, बळीश्ट आनी निळ्या दोळ्यांचे आसतात. धर्मान हांगाचे ९६% लोक इव्हांजलीकल ल्युथरन पंथाचे आसात. हांगा १००% साक्षरता आसा. ७ ते १५ वर्सांमेरेन शिक्षण सक्तीचें आसता. रेक्याव्हिक हांगा विश्वविद्यालय आसा. ह्या देशांत व्हडीं चलवप, शेतवड, संगीत, नृत्य, नाट्य, अश्यो तरेकवार शिक्षण दिवपी शिक्षणसंस्था आसात. एका काळार हांगा बारीक जोर आनी कुश्ठरोगाचें प्रमाण बरेंच आशिल्लें. पूण आतां भलायकेच्या मळार उदरगत जाल्ल्यान हे रोग दिसून येनात. गिरेस्त आनी गरीब हांच्यामदीं चड खर फरक दिसून येना. लोकसंख्या वाडोवपाचे नदरेंतल्यान तांचे यत्न चल्ल्यात. रेक्याव्हीक हांगा देशांतलें सगळ्यांत व्हडलें ग्रंथालय आसा.

**भाशा आनी साहित्य:** आइसलँडची भाशा मूळ नॉर्स लोकांनी हांगा हाडली. अस्तंत नॉर्वेची ती पयलीं एक बोली आशिल्ली. आयंजुय ती त्याच रुपांत तिगून आसा. आइसलँडचे साहित्य बरेंच समृध्द आसा आनी हे भाशेंतल्या पोरन्या 'सागा' प्रकारचो प्रभाव युरोपिय साहित्यांचेर बरोच जाल्लो दिसून येता. आयंच्या काळांतय आइसलँडचे लेखक काव्य-कथा, नाटक, कादंबरी ह्या मळांचेर जगाच्या साहित्यांत मोलादीक भर घालीत आसा. १९५५ वर्सा हांगाचो साहित्यिक हाल्डोर लाक्सनेस हाका नोबेल इनाम फाव जालें.

**खेळ, हेर कला आनी म्हत्वाचीं थळां:** कुस्ती हो हांगाचो राश्ट्रीय खेळ. हँडबॉल, सॉकर, बास्केटबॉल, बर्फावेलो खेळ आनी व्यायामाचे हेर प्रकार हांगाच्या लोकांमदीं बरेच आवडीचे जावन आसात. सगळ्या भुरग्यांक पेंवपाक येवप कायद्यान सक्तीचें आसा. गरम उदकाची तळीं गांवांगांवांनी सांपडटात. बुध्दीबळ होय खेळ लोकांमदीं बरोच रिगला. संगीत, नाटक, नृत्य आनी विंगड विंगड कलांचेर युरोपीय प्रभाव आसा. एइनार योनसॉन (१८७४-१९५४) हो नामनेचो शिल्पकार हांगा जावन गेलो. शास्त्रांच्या विंगडविंगड शाखांभितरय आइसलँडच्या लोकांनी नामना मेळयल्या.

रेक्याव्हीक, आक्रानेस हीं उद्येगीक बंदरां, आकूरेरी, हाफ्नारफ्यर्दर हीं शारां पळोपासारकीं आसात. गरम उदकाच्यो झरी, बर्फावेले खेळ ह्या सारक्या गजालींक लागून जगांतले बरेच पर्यटक हांगा येतात.

- कों. वि. सं. मं.

## आकाशवाणी:

रेडिओ-कार्यावळी वितरावपी भारत सरकारचे नभोवाणी यंत्रणेक 'आकाशवाणी' वा 'ऑल इंडिया रेडिओ' अशें म्हण्टात.

भारतांत नभोवाणीचो प्रसार खाजगी हौशी क्लबांवरवीं जालो. सन १९२४ त मद्रास शारांत पयल्या रेडिओ-क्लबाची थापणूक जाली. हौशी रेडिओ क्लब लाहोर, अलाहाबाद, पेशावर, डेहराडून हांगा चलताले. सन १९२६ त 'इंडियन ब्रॉडकास्टिंग कंपनी' हे खाजगी कंपनीन भारत सरकाराकडेन एक कबलात करून मुंबय आनी कलकत्ता हांगां अनुक्रमान २३ जुलय आनी २६ ऑगस्ट १९२७ ह्या दिसा दोन रेडिओ-केंद्रां सुरू केलीं. इंडियन ब्रॉडकास्टिंग कंपनी १ मार्च १९३० वर्सा लुकसाणांत पडली आनी भारत सरकारान नभोवाणी कार्याचो सगळो वावर आपल्या हातांत घेतलो. सन १९३६ त लायोनेल फील्डन हाणे नभोवाणीमुखेल ह्या नात्यान सगळीं सुत्रां आपलेकडेन घेतलीं. सुर्वेक हे संस्थेक 'ऑल इंडिया रेडिओ' म्हण्टाले. १९५७ उपरांत तिका 'आकाशवाणी' म्हणपाक लागले.

आकाशवाणीचीं सद्या ९४ रेडिओ-केंद्रां आसात (१९८७-८८). ६७९४ किलोवॅट तांकीचे १३४ मध्यम तरंगावेले प्रक्षेपक, २१७२.५ किलोवॅट तांकीचे लघुतरंगावेले ३५ प्रक्षेपक आनी चार (VHF), FM, ६० किलोवॅट तांकीचे (ERP) प्रक्षेपक भारतांत आसात. (१९८७-८८). आकाशवाणीची सेवा भारतांतल्या ८६ टक्के वाठारांतल्या ९५ टक्के लोकांक मेळटा.

सातवे पंचवर्सुकी येवजणेउपरांत (१९८५-९०) देशांत २०५ केंद्रां, १५० मध्यतरंगावेले प्रक्षेपक (तांक: १०,८५६ किलोवॅट), ५४: लघुतरंगावेले प्रक्षेपक (तांक: ७,२९३ किलोवॅट) आनी १०४ FM प्रक्षेपक (तांक: ERP ३२७० किलोवॅट) आसतले.

१८ मे १९८८ ह्या दिसा आकाशवाणीची राश्ट्रीय प्रसारणसेवा सुरू जाली. हेखातीर नागपूर हांगा १,००० किलोवॅट तांकीचो प्रक्षेपक बसयला. ताचेर दिल्लीसावन कार्यक्रम प्रक्षेपित जातात.

दिल्ली, मुंबय, कलकत्ता आनी मद्रास ह्या शारांत आकाशवाणीचे व्हड तांकीचे प्रक्षेपक आसात. ते लघुतरंगाचेर काम करतात. भारतांतल्या प्रत्येक राज्यांत मध्यमतरंगाचें म्हळ्यार एक तरी मुखेल केंद्र आसता. आकाशवाणीचे गरजेप्रमाण दोन वा तीन उपकेंद्रां आसतात. देखीक: महाराष्ट्र राज्यांत मुंबय, पुणे आनी नागपूर हांगा अनुक्रमान ५०,

२० आनी २० किलोवॅट प्रक्षेपक आसात.

**उद्देश आनी हेतः** १. देशी आनी विदेशी खबरांचें संकलन करून तीं खबरेपत्रां प्रक्षेपित करप. २. देशाची येवजणबध्द सर्वांगीण उदरगत कशी जायत हे संबंदीची म्हायती आनी विचार लोकांक दिवप. ३. आयकुप्यांचें मनोरंजन करप आनी तांची संस्कृतीक उदरगत सादप. ४. शिक्षणीक कार्यावळी वितरावप. ५. आयकुप्याच्या गिन्यानांत भर घालप.

**रचनाः** भारत सरकाराच्या म्हायती आनी नभोवाणी खात्याच्या हाताखाल आकाशवाणी आनी दूरचित्रवाणी ह्या दोगांचेंय कार्य चलता. आकाशवाणीचो महानिर्देशक खात्याच्या मंत्र्यान सुचयिल्ल्यो सुचोवण्यो चलणुकेंत हाडटा. आकाशवाणीचे कार्यविभाग आनी तंत्रविभाग अशे दोन वांटे पडटात. प्रक्षेपणाची सगळी तंत्रीक बाजू आकाशवाणीचो मुखेल अभियंता सांबाळटा. आकाशवाणीची केंद्रां मुखेल शारांत आसून कार्यक्रम विंगडविंगड भागांत आयकुपाक येवचे हेखातीर उपकेंद्रां उबारल्यांत. रेडिओ केंद्राचो मुखेल, केंद्राधिकारी आसून तो सगळी जापसालदारकी सांबाळटा. केंद्राचो अभियंता आनी सहाय्यक अधिकारी केंद्रांची तंत्रीक बाजू पळयतात. चडश्यो कार्यावळी पयलींच फितमुद्रीत केल्ल्यो आसतात. ताका लागून कार्यावळींची वळेरी तीन-चार म्हयन्यांआदीं थारावप शक्य जाता. दरेका राज्यांतलीं हेर केंद्रां राज्यांतल्या मुखेल केंद्राच्या पालवान चलतात. एक मध्यवर्ती कार्यावळ समिती महानिदेशकाक सल्लो दिता. तेचपरी दरेका केंद्राची थळावी सल्लागार समिती आसता. जेन्ना समितीचे वांगडी सुचोवण्यो करतात तेन्ना त्यो महानिर्देशकाक धाडटात. उपरांत केंद्र ह्यो सुचोवण्यो चलणुकेंत हाडपाचो यत्न करता. आकाशवाणीचें मुखेल कार्यालय नवी दिल्लींत आसा. तातूंत प्रसारभवन आनी आकाशवाणी भवन ह्या दोगांचोय आस्पाव जाता.

आकाशवाणीच्या दरेक केंद्रांत संगीत, नभो-नाट्य सारके विभाग आसतात. कार्यावळींच्या स्वरूपावेल्यान कलावंतांची येवजण करतात. विद्यार्थ्यांखातीर, बायलांखातीर तशेंच भुरग्यांखातीर, शेतकामत्यांखातीर, भाशणांखातीर अशे आकाशवाणीचे जायते विभाग आसून तातूंत कलावंतांची वर्गवारी केल्ली आसता. दरेका विभागाचें संचलन निर्माती करता. बायलांचे कार्यावळीखातीर बायल निर्माती आसता.

**विविधभारतीः** विविधभारतीवेल्यान आयकुप्यांखातीर मन भुलयण्यो कार्यावळी प्रसारित जातात. हे कार्यक्रम चडकरून राष्ट्रभाशा हिंदींत आसतात. विविधभारतीच्या कार्यावळींच्या प्रसारणाखातीर मद्रास आनी मुंबय दोन ऊंच तांकीचे लघुतरंगावेले प्रक्षेपक बसयल्यात. तांची २९ वेवसायीक प्रसारक केंद्रां आसात. विविध भारतीच्या प्रसारणामदलो १०% टक्के वेळ जायराती वितरावपाखातीर दितात.

**खबरोः** ताजे म्हायतीप्रमाण आकाशवाणीचो खबरांपत्र विभाग दर दिसा ३६ वरांची २७३ खबरांपत्रां वितरायता. हातूंत घरगुती, थळावी आनी विदेश सेवेतलीं खबरांपत्रां आस्पावतात. दिल्ली केंद्रावेल्यान १९ भासांतलीं ८१ खबरांपत्रां वितरायतात. ती इकरा वरांचीं आसतात. विदेश-सेवा विभाग दर दिसा चोवीस भासांतल्यान ६० वरां ३५ मिनटांच्यो कार्यावळी वितरायता.

**कार्यावळ वेवस्थः** आकाशवाणीच्या दिसपट्ट्या कार्यावळींची म्हायती दिवपाखातीर इंग्लीश, हिंदी, उर्दू, बंगाली, असमिया, तामिळ, गुजराती, तेलुगू आदी भाशांतल्यान नेमाळीं उजवाडाक येतात.

म्हायती आनी नभोवाणी मंत्रालयाच्या हाताखाल 'भारतीय जनसंचारण संस्था' (इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ मास कम्युनिकेशन्स) नांवाचे स्वायत्त संस्थेची १९६५ त थापणूक केली. ही संस्था संपर्क माध्यमाचें शिकप दिता. हो खास शिक्षणक्रम पंदरा म्हयन्यांचो आसून तो केंद्रीय म्हायती सेवा आनी राज्यांच्या जनसंपर्क अधिकाऱ्यांखातीर आसा. हे संस्थेची थापणूक करपाच्या कामांत भारत सरकाराक युनेस्को आनी एशिया फाउंडेशनाकडल्यान अर्थीक पालव मेळ्ळो.

म्हायती आनी नभोवाणी खात्याचे उदरगतीसंबंदान विचार करूंक ए. के. चंदा हाचे अध्यक्षतेखाल १९६४ वर्सा एक समिती घडली. हे समितीचो अहवाल १९६६ वर्सा उजवाडाक आयलो. आकाशवाणी आनी दूरचित्रवाणीवरवीं निरक्षरताय ना करूं येता असो समितीक विस्वास आसा. आकाशवाणी ही स्वायत्त संस्था आसची अशें मत हे समितीन मांडला.

आकाशवाणीक, विविधभारती सेवेवरवीं खूब उत्पन्न मेळटा. सन १९८२-८३ वर्सा विविधभारतीक १५.५१ कोटी रुपयांचें उत्पन्न मेळिल्लें. १९८६-८७ त विविधभारतीचें उत्पन्न २४ कोटी रुपयांचेर पावलें.

**खाशेलेपणः** भारतीय आकाशवाणीचें ब्रीदवाक्य 'बहुजनहिताय बहुजनसुखाय' हें जावन आसा. आकाशवाणीच्या सगळ्या प्रक्षेपकांची तांक, आकाशवाणीचो विस्तार आनी ताचें विंगडपण ह्यो गजाली मतींत घेतल्यार अमेरिका, ग्रेट ब्रिटन आनी रशिया फाटल्यान भारताचो क्रमांक लागता.

**गोंय आकाशवाणीः** गोंयांत रेडिओ-प्रसारणाची सुरवात सन १९४७ त जाली. त्यावेळार ह्या रेडिओक इमिसॉरा दँ गोवा (Emissora-de-Goa) म्हण्टाले. 'रेडिओ-गोवा' म्हूण ह्या प्रसारणाक चड वळखताले. देशांतली पयली वेवसायीक प्रसारण सेवा म्हूण गोवा-रेडिओक (आतां आकाशवाणी-पणजी) वळखतात. १९६१ मेरेन हें केंद्र कोंकणी, मराठी, हिन्दी, पोर्तुगेज आनी हेर भासांतल्यान कार्यावळी वितरायताले. अती उदेंत, मध्य उदेंत, पाकिस्तान आनी दक्षिण आफ्रिका मेरेन ह्या रेडिओच्यो कार्यावळी आयकुपाक येताल्यो.

गोंयचे सुटकेउपरांत, ९ जानेवारी १९६२ ह्या दिसा गोंय रेडिओ केंद्राचेर परत्यो कार्यावळी सुरू जाल्यो. त्यावेळार गोंय रेडिओ केंद्राच्या प्रक्षेपकाची तांक ५ किलोवॅट इतली उणी आसली. ह्या केंद्रांचें प्रसारण मध्यमतरंगाचेर आयकुपाक मेळटालें. सुर्वेक गोंयचें केंद्र विदेश वेव्हार मंत्रालयाच्या हाताखाल आसलें. उपरांत तें घरखात्याच्या हाताखाल आयलें. १ एप्रिल १९६३ ह्या दिसा म्हायती आनी नभोवाणी मंत्रालय-भारत सरकार हांचे कक्षेंत गोंयचें केंद्र आयलें आनी ताचें नांव 'ऑल इंडिया रेडिओ-पणजी' अशें जालें. पणजी केंद्राखातीर मे १९६९ त मध्यमतरंगावेलो १० किलोवॅट तांकीचो प्रक्षेपक बसयलो. ह्या प्रक्षेपकावेल्यान पणजी 'अ'च्यो थळाव्यो कार्यावळी वितरावपाक सुरवात जाली. पोरन्या पांच किलोवॅट तांकीच्या प्रक्षेपकावेल्यान जुलय १९७१ सावन विविधभारतीच्यो कार्यावळी वितरायतात.

आकाशवाणी-पणजी केंद्राची मुखेल भास कोंकणी आसून मराठी हिंदी, इंग्लीश, पोर्तुगेज आनी संस्कृत भाशेंतल्यानय कार्यावळी जातात.

**पणजी आकाशवाणीचे म्हत्वाचे पांवडेः** १५ ऑगस्ट १९६५ ह्या दिसा पणजी आकाशवाणीचेर गांवगिन्या कार्यावळींक सुरवात जाली. उपरांत स्वायत्त शेत आनी घर विभागावरवीं शेतकी शाळांच्यो कार्यावळी शेतकामत्यांखातीर वितरावपाक सुरवात जाली. १४ जून १९६७ ह्या दिसा आकाशवाणीचो कुटुंब कल्याण विभाग चलणुकेंत आयलो. २६ जुलै १९७६ ह्या दिसा शिक्षणीक कार्यावळींक सुरवात जाली. १० सप्टेंबर १९८५ सावन पणजी 'अ' वेल्यान वेवसायीक जायराती दिवपाक लागले.

**फुडारांतल्यो येवजणीः** पणजी 'अ' केंद्रावेल्यान वेवसायीक जायराती दिवपाक लागले.

**फुडारांतल्यो येवजण्योः** पणजी 'अ' केंद्रावेल्यो कार्यावळी कर्नाटक आनी महाराष्ट्र ह्या राज्यांतलेगीत आयकुपाक येवच्यो हे नदरेन, मध्यमतरंगावेलो १०० किलोवॅट तांकीचो प्रक्षेपक बसोवपाचो आसा. ताका सातवे पंचवर्सुकी येवजणेंत मान्यताय मेळ्ळ्या. आकाशवाणीच्या विदेशी प्रसारण विभागाच्या हाताखाल आकाशवाणी-पणजी दोन २५० किलोवॅट तांकीचे मध्यमतरंगावेले प्रक्षेपक बांबोळी हांगा बसोवपाचे आसात. ह्या प्रक्षेपकांवेल्यान सरळ गल्फ देशांत कार्यावळींचें प्रसारण जातलें.

आकाशवाणी पणजी बहुउद्देशीय स्टुडिओ प्रकल्पाक मान्यताय मेळिल्ली आसा. हो प्रकल्प जातकच कार्यावळी व्हड प्रमाणांत करप शक्य जातलें. फुडें बांदपाच्या ऊंच तांकीच्या प्रक्षेपकांखातीर सुमार २० कोटी रुपया खर्च करून नवी इमारत बांदपाची आसा.

**हेर म्हायती:** आकाशवाणी-पणजी केंद्राची आवर्तता (Frequency) फुडलेतरेन आसा.

पणजी अ- ३६२.३ मी. (८२८ किलोहर्ट्स); पणजी ब (विविधभारती)- १९४.९ मी. (१५३९ किलोहर्ट्स).

पणजी 'अ' आनी 'ब' केंद्राच्यो प्रत्येकी ३ सभा जातात. पणजी 'अ' केंद्रावेल्यान बार (१२) वरांचें तर पणजी 'ब' केंद्रावेल्यान साडेंबारा वरांचें प्रसारण जाता.

(पूरक नोंद: रेडिओ)

- कों. वि. सं. मं.

**आख्यायिका:** खंयच्याय मनशाच्या ज़िवितांतल्यो वा वस्तीविशीं चलत आयिल्ल्यो काणयो. हांकां 'दंतकथा' अशेंय म्हण्टात. मुळांत ह्यो अलिखित आसून, तोंडयां घोळत आयिल्ल्यो हकिकती. चड करून संत, वीरपुरुश, असामान्य बायलो, फुडारी हांचेरूच आख्यायिकांचे विशय आदारिल्ले आसतात. आख्यायिका हो लोकसाहित्याचो एक वांटो जाल्ल्या कारणान तांची रचणूक चडशी अनामिक आसता. ज्या लोकसमूहांत त्यो प्रचलित आसतात, तार्चें मन त्या आख्यायिकांतल्यान उक्तें जाता. असामान्य व्यक्तिविशीं लोकसमूहाक दिसपी आदर आनी अभिमान अतितायेच्या आनी अप्रुपांच्या रुपांत आख्यायिकांतल्यान परगटायतात. पूण ह्यो व्यक्ती इतिहासांत जावन गेल्ल्यो आशिल्ल्या कारणान आख्यायिकांत सत्य आनी कल्पित दोनांचीय भरसण दिसून येता. विंगड विंगड लोकसमूह आपापल्या आख्यायिकांतली कल्पिताची रचणूक आनी ताचो स्वीकार भावार्थानूच करतात. चिकित्सक नदरेन आनी बारीकसाणीन पळेल्यार त्या कल्पित रचणुकेंतल्यान रुपकार्थ लेगीत जाणवता.

'आख्यायिका' ह्या शब्दाक इंग्लीश भाशेंत 'लैजंड' (Legend) असो प्रतिशब्द आसा. पूण सुर्वेक ह्या शब्दाचो अर्थ इगर्जींतल्यान वाचतात तीं संतचरित्रां असो जातालो. Legenda Aurea (लेजेंदा आउरिआ, इंग्लीश अर्थ: गोल्डन लेजंड) ह्या नांवाची कांय संतचरित्रां तेराव्या शेंकड्यांत ग्रंथबध्द जालीं. संतांच्या आध्यात्मिक व्हडपणाचेर अप्रुपाची आनी अजापांची झालर लावपाखातीर अशा संतचरित्रांत कल्पिताचो प्रवेश जावन ल्हवल्हव आयचो अर्थ 'लेजंड' ह्या शब्दाक प्राप्त जाला आसूंक जाय. चवदाव्या शेंकड्यांत चॉसर ह्या इंग्लीश बरोवप्यान क्लीओपात्रासारक्या कांय नामनेच्या बायलांच्यो काणयो 'लेजंड ऑफ गुड' ह्या नांवान बरयल्यो. अँग्लो-सॅक्सन इतिहासकारांनी आपल्या राजांचो वंशारंभ हेवटेन-तेवटेन कसोय करून आदमामेरेन पावोवपाच्या हेतान कितल्योश्योच आख्यायिका रचल्यो.

राजा आर्थर ही इंग्लंडांतल्या कितल्याशाच आख्यायिकांचो विशय आशिल्ली व्यक्तिरेखा खूब गाजली. काव्य, नाटक ह्या साहित्यकृतींत आख्यायिकांचो आस्वाव खूब मोट्या प्रमाणांत केल्लो दिसता. संत ज्ञानेश्वरान चलयल्ली वणत, ताणें रेड्याच्या तोंडांतसून वदयल्ले वेद तशेंच संत तुकारामान इंद्रायणीत बुडयल्ली अभंगाची पोथी आसा तशीच सुकी वयर येवप ह्यो महाराष्ट्रांतल्यो कांय नामनेच्यो आख्यायिका.

- कों. वि. सं. मं.

**आगरकर, गोपाळ गणेश:** (जल्म: १४ जुलय, १८५६, टेंभू सातारा; मरण: १७ जून १८९५, पुणे).

एक बुध्दिप्रामाण्यवादी विचारवंत आनी समाजसुधारक. ताचो जल्म एका गरीब घराण्यांत जालो. हालअपेश्टांक तोंड दीत कराड, रत्नागिरी, अकोला आनी पुणे हांगा रावन तो एम्. ऐ. जालो. महाविद्यालयीन शिक्षण घेतासतनाच विष्णुशास्त्री चिपळूणकर हाणें पुण्यांत थापणूक केल्ल्या जहाल विचारांच्या राश्ट्रवादी पंथांत तो लोकमान्य टिळकावांगडा सामील जालो. लोकशिक्षण आनी लोकजागृताय करपाखातीर ह्या तिगांयनी पुण्यात 'न्यू इंग्लीश स्कूल' सुरू केलें (१८८०). तशेंच केसरी, आनी मराठा हीं खबरांप्रत्रां चालू केलीं (१८८१). न्यू इंग्लीश स्कूलांत आगरकरान शिक्षकाची नोकरी धरली. तेचप्रमाण केसरीच्या संपादनाची जापसालदारकी घेवन आपल्या कुशळ आनी प्रभावी बरोवपान थोड्याच काळांत 'केसरी'क लोकप्रियता मेळोवन दिली. न्यू इंग्लीश स्कूलच्या चालकांनी स्थापिल्ल्या 'डेक्कन एज्युकेशन सोसायटी'च्या फर्ग्युसन महाविद्यालयाचो प्राचार्य (१८९२) म्हूण ताणें काम केलें.



गोपाळ आगरकर

महाविद्यालयीन जिवितांतूच जॉन स्ट्यूअर्ट मिल आनी हर्बर्ट स्पेन्सर ह्यांच्या विचारांचो ताचेर प्रभाव पडलो आनी ताची नदर बुध्दिप्रामाण्यवादी आनी अज्ञेयवादी जाली. हेच धर्तेचेर तेन्नाच्या समाजाची पुनर्घटना करपाची गरज ताका दिसताली. केसरींत छापून येवपी ताच्या समाजीक लेखांवरवीं हीच भूमिका व्यक्त जावपाक लागली. समाजीक प्रस्नांच्या जाणविकायेपरस राजकीय प्रस्नांची जाणविकाय चड खर आसूंक जाय अशें 'केसरी' आनी 'मराठा'च्या चालकांक दिसतालें. ताका लागून आगरकराचो वैचारीक घुस्मिटमार जावपाक लागलो. देखून, ताणें केसरी सोडलो (१८८७) आनी आपल्या क्रांतिकारक, समाजीक विचारांच्या प्रसाराखातीर 'सुधारक' हें पत्र काडलें (१८८८). तातूंत राजकीय आनी अर्थशास्त्र विशयांवेले लेख येताले.

बुध्दिवादी नदरेंतल्यान समाजजीवनाचें विश्लेषण करून अन्याय्य रुढी आनी परंपरा हांचेर ताणें खर हल्लो केलो. नीतिमान आनी सदाचरणी समाजाच्या निर्मितीखातीर देवा-धर्माची गरज ताका दिसलीना. परोपकाराचे सद्गुण धर्मा पयलीं अस्तित्वांत आयले आनी मागीर ते धर्मांत रिगले अशें ताचें मत आशिल्लें. बुध्दिवाद, व्यक्तिवाद, समता, आनी मानवतावाद ह्या चार सूत्रांचेर ताचे सगळे समाजीक विचार आदारिल्ले आसात. पूर्वजन्म, पुनर्जन्म, अस्पृश्यताय, बालविवाह सारक्यो गजाली ताका मान्य नाशिल्ल्यो. मनीसजातीचें ऐहिक सुखवर्धन हेंच ताचें ध्येय आशिल्लें. नीतिमान आनी संयमी जीणेक लागून मनशाक लागपी समाधानूय ह्या ऐहिक सुखांत येता अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें. व्यक्तीस्वातंत्र्य न मानपी आनी निरुपयोगी परंपरा चलयतल्या समाजाची केन्नाच उदरगत जावची ना अशी ताची धारणा आशिल्ली. एकाद्री गजाल समाजाचे एके अवस्थेंत उपयुक्त जाली तरीकूय तीच गजाल बदलपी काळांत जाचक जाली जाल्यार सरळ काडून उडोवची अशें तो म्हण्टालो. असल्यो रुढी आनी परंपरा आपखोशयेन सोडून दिवपाची समाजाची तयारी नासत जाल्यार तांचेर कायद्यान बंदी हाडची अशें ताचें मत आशिल्लें.

समाजहिताच्या कायद्यांच्या पुरस्काराखातीर आगरकरान कांय लेख बरयले. कांय लेखांतसून ताणें समाजीक गुलामगिरीक लागून उप्राशिल्ल्या बायलांच्या शिक्षणिक आनी हेर समस्यांविशीं मूलगामी विचार परगटायल्यात. समाजचिंतकाचो पिंड आसुनूय राजकीय विचारांच्या जहालपणांत तो टिळकाच्या वांगडचो आशिल्लो. चिपळूणकर भायर

पडटकच महाराष्ट्रांत राजकीय विचारांची जागृताय घडोवन हाडपाचें काम 'केसरी' सोडटकच आगरकरानूच केलें.

आपल्या वैचारीक लेखांनी मराठींतल्या निबंधसाहित्यांत ताणें मोलाची भर घाली. ताच्या 'कवि, काव्य, काव्यरति' आनी 'शेक्सपियर, भवभूति आनी कालिदास' ह्या निबंदांक लागून आयच्या कांय टीकाकारांनी साहित्यशास्त्रांतल्या कांय मूलभूत तत्त्वांचो शास्त्रीय पध्दतीन विचार करपी विचारवंत असो ताचो गौरव केला. काव्य आनी संवेदना हांचो खाशेलो संबंद, काव्यांतलें सत्य आनी शास्त्रीय सत्य, काव्यांतलो करुणरस, कविमन आनी काव्य निर्मितीप्रक्रिया ह्या संबंदीचे ताचे विचार तुस्त करीसारके आसात.

ताच्या ग्रंथांची वळेरी अशीः 'विकारविलसित' शेक्सपिअरच्या 'हॅम्लेट' नाटकाचो अणकार (१८८३), 'डोंगरीच्या तुरुंगांत आमचे १०१ दिवस' (१८८२), 'शेठ माधवदास रघुनाथदास व बाई धनकुवरबाई यांचे पुनर्विवाहचरित्र' (१९०७), 'वाक्यमीमांसा आणी वाक्याचे पृथक्करण', 'केसरीतील निवडक निबंध' (१८८७) 'सुधारकातील वेचक लेख' (निबंधसंग्रह १८९५). साहित्य अकादमीन ताचे कांय लेख उजवाडायल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**आगरीः** आगरी हें एके जातीचें नांव. माड-सुपारेचे बागेक आनी मीठ पिकोवपाचे जागेक 'आगर' म्हण्टात. अशे तरेच्या आगरांत वसती करून पोट भरपी जमातीक 'आगरी' हें नांव पडलें. आगरी लोकांक खारकी, खारपाटे वा आगळे कुणबी अशींय नांवां पडल्यांत. शुध्द आगरी, दास आगरी आनी वरप आगरी अशे हे जातीचे पोटभेद आसात. शुध्द आगरी भितर मीठआगरी, जसआगरी आनी ढोलआगरी अशे तीन पोटभेद आसात. स्वताक ढोलआगरी म्हूणन घेवपी आगरी जमात आतां सांपडना. ही जात स्वताक आतां आगरी वा मीठआगरी अशें म्हूणन घेता. महाराष्ट्र राज्यांतल्या पालबाग आनी अलिबाग वाठारांत, 'दासआगरी' वसती करून रावतात. तांकां 'कराडआगरी' ह्या थळाव्या नावांनूय वळखतात. दासआगरी जमात आगरी जमाती परस वेगळी आसून तांचेभितर लग्नसंबंदासारके शुभ विधी घडून येनात. दासआगरीच्या वेगळेपणा संबंदान एक दंतकथा आसा ती अशीः- एके आगरी जमातीचे बायलेचीं भुरगीं, जातकच रोखडींच पेड्ड्यार जातालीं, निमाणे तिणें म्हार लोकांच्या देवामुखार आंगवण केली की 'म्हजें भुरगें जियेत जाल्यार हांव तकलेक गायेचें हाड आनी कानाक कापसाचें फूल बांदून म्हाराच्या वाड्यांत भोंवतली'. हे आंगवणी उपरांत तिचें भुरगें जियेलें म्हूण तिणें आपली आंगवण वयले तरेन पावयली. तिच्या ह्या धर्माभायल्या कर्तुपाक लागून आगरी लोकांनी तिका आपल्या धर्मांतल्यान काडून उडयली. तिच्यासावन जो वंश फुडाराक सुरू जालो ताका 'दासआगरी' म्हणपाक लागले.

वरपआगरी लोकांनी पयलीं किरिस्तांव धर्म आपणायलो आनी मागीर ते हिंदू धर्मांत आयले. तांकां मुखार 'नवे मराठे' अशें नांव मेळ्ळें. मीठ आगरी तेखातीर हे जमातीक उण्या पांवड्याचे मानतात. आगरी लोकांच्या दायजासंबंदान म्हायती मेळटा ती अशीः आगरी लोक लंकेचो राजा रावण हाचें गायन आनी वादन करपी आसले. तांच्या कलागुणांचेर प्रसन्न जावन रावणान तांकां अस्तंतेच्या दर्यादिगेवयली जमीन इनाम म्हूण दिली. आयची आगरी जात ही त्या काळावयल्या लोकांची वंशावळ आसा अशें म्हण्टात. धोल वाजोवपाची पध्दत आयजूय आगरी लोकांच्या कांय पंगडांभितर चलता. तांकां धोलआगरी अशें म्हण्टात. कांय आगरी आयजूय गायन-वादन करून पोट भरतात.

आगरी लोक आपलो इतिहास सांगतात तो असोः सुमार ६०० वर्सां आदीं अलिबाग वाठारांत चौल, आवास सासवणे आनी सागरगड अशीं तीन ल्हान राज्यां आसलीं. चौल आनी आवास हीं हिंदू राज्यां आसलीं. सागरगडाचेर दिल्लीच्या बादशहाचें प्रतिनिधीत्व एक मुसलमान सरदार करतालो. ताचें काम दोनूय हिंदू राजांकडल्यान कर, एकठांय करून दिल्लीच्या बादशहाकडेन धाडप हें आसलें. फुडें-फुडें हो सरदार बळीश्ट जालो आनी बादशहाचे हुकूम कानामनार घेना जालो. ताका जाग्यार हाडपाक बादशहान आपल्या एका सरदाराक धाडलो. पूण ताका हार खावन परतें वचचें पडलें. दुसरे फावट बादशहान आनीक एका सरदाराक धाडलो. ह्या सरदारान मुंगीपैठणच्या बिंब राजाच्या आदारान त्या मुसलमान सरदाराक हारयलो आनी धरून दिल्लीक व्हेलो. हैवटेन बिंब राजा मुंगी पैठणाक वचनासतना सागरगडाकच रावपाक लागलो. काळांतरान ताणें कुशीचीं दोनूय हिंदू राज्यां आपल्या शेकातळा घेतलीं आनी पुराय वाठाराचेर राज्य चलोवपाक लागलो. उपरांतच्या शांततायेच्या दिसांनी ताका येद्या व्हडल्या सैन्याची गरज दिसना जाली, तेन्ना ताणें गरजेपुरतें सैन्य दवरून हेरांक दर्यादिगेक मिठागरां बांदून दिलीं आनी गांव वसयले. सद्याक हीं मिठागरां आनी तांच्यो वसाहती कुलाबा जिल्ह्यांत अलिबाग, पेण, पनवेल, कर्जत, रोहे, जंजिरां आनी ठाणें भागांत पातळ्ळ्यात. आगरी लोकांची वसती फकत दर्यादिगेकच दिश्टी पडटा. मीठ पिकोवपाचो धंदो वर्सांची वर्सां पिळग्यान पिळग्यो तांचे जातीभितर चलत आयला.

दर्यादिगेवयल्या शेतजमनीच्या मदल्या भागांत जंय जंय उंचवटे आसात, थंय थंय आगरी लोक राबितो करतात. सादारणपणान एका खेड्यांत ५० ते ६० घरां आसतात. जंय व्हड खेडें आसता थंय 'पाडे' नांवाचे ल्हान भाग करतात. एका पाड्यांत, एकाच आडनांवाची ३०-४० कुटुंबा रावतात. आगरी लोकांच्या खेड्यांनी चड करून पियेवपाच्या उदकाचो दुकळ पडिल्लो आसता. गांवांत एक देवूळ आसता. कांय जाग्यांनी पीरा देवूळ आसता. दरेक घर, घरामुखारचें आंगण शेणान सारेवन निवळ केल्लें आसता, पूण पुराय खेडें उरिल्ल्या चोंयवशीन घाणयारेंच आसता, ताका लागून एकाद्र्या रोगाची लाग आयल्यार पुराय वाठाराक बादता.

आगरी लोकांचीं घरां चौकोनी आसतात. फुडें उक्ती वासरी, मागीर मदली कूड, तिचे एके कुशीक रांदचीकूड, एके कुशीक कोठ्ये कूड अशी घराची रचणूक आसता. घराच्यो वण्टी मातयेच्यो तर घरावेलें पाखें तणाचें आसता. आपल्या शेतांत मेळपी वस्तूपसून आगरी लोक स्वताचें खोपूट उबें करतात.

आगरी लोक रंगान काळे, पूण हाडा-पेरान घट आनी धश्टपुश्ट. एक धोतर, एक वा दोन सदरे, एक कबजा, खांद्यार कांबळ इतलीच आगरी दादल्यांचीं वस्त्रां. शेंकड्याक णव्वद जाणांक सोऱ्याचें व्यसन आसता. ह्या खर व्यसनाक लागून लोकांची भलायकी मोट्या प्रमाणांत इबाडिल्ली दिश्टी पडटा.

आगरी बायल सात वा आठ वारी कापड न्हेसता. हालींच ती चोळी आंगाक घालपाक लागल्या. घरांतली आनी शेतांतली सगळीं कामां बायलोच करतात. आगरी समाजांत आतां शिक्षणाचो प्रसार जावंक लागला.

आगरी लोकाचो मुखेल आहार शीत, भाकरी आनी मांस. सणापरबेक मोदक, वडे, पुरणपोळयो सारकीं पक्वान्नां करतात.

आगरी लोकांची शेतोड पावसाचेर आदारून आसता. पावस नासून जेन्ना दुकळ पडटा तेन्ना हे लोक पावशी देवतेचो उत्सव मनयतात. गांवचो मुखेली शंकराच्या देवळांत एका कोनशांत दवरिल्ली तिची मूर्त पालखेंत बसयता आनी तिका वाजयत गाजयत गांवचे तळयेमेरेन व्हरतात. तळयेंत एका धारावीक सुवातेर पावस पडमेरेन ती मूर्त दवरतात. आगरी लोकांचो भुता-खेतां, म्हारू-देंवचार, देव-देवस्की सारक्या गजालींचेर भावार्त आसा.

**बाळंटेर प्रथाः** आगरी लोक भुरगें जल्माक येतकच, तिसऱ्या, पांचव्या, सव्या आनी बाराव्या दिसा सटीची पूजा आनी हेर संस्कार करतात.

**लग्न प्रथाः** आगरी लोकांचीं लग्नां, शेता-भाटांतलीं कामां सोंपतकच, मार्गशीर्ष ते वैशाख म्हयन्यांत जातात. लग्नांत हुंड्याची पध्दत चलता.

चल्यांचें लग्न १८ ते २५ वर्सांमजगती तर चलयेचें १४ ते १८ वर्सांभितर जाता. लग्नाचे सगळे चाळीसूय विधी 'धवलारीण' (बायल पुरयत) हिच्यामुखार करतात. दरेक विधीवेळार ती ते विधीचें गीत म्हण्टा. त्या गीतांक 'धवळे' अशें म्हण्टात.

मंटप-देवता थापणूक करप आनी माळ घालपाक लावप हे दोन विधी ब्राह्मण पुरयत करता. उरिल्ले विधी धवलारीण चलयता. तेलान्हाण, गौरन्हाण, उश्टावण (घास दिवप), सोयरी समजवप, तोंड धुवप, सुपारी लिपोवप, विडे तोडप, गोंधळ घालप हे विधी आगरी लोक नेमाप्रमाण करतात. आगरी लोकांक जाती भायर लग्न जावपाची मेकळीक ना. असो कोणूय लग्न जालो तर ताका जाती भायरो करतात. विधवा विधूराकडेन लग्न जावपाक शकता, पूण घोवाकडल्यान मेळपी वायट वागणुकेच्या भयान असली लग्नां खूब थोडीं जातात. आगरी लोकांच्या लग्नाक खूब खर्च येता. मनीस कितलोय गरीब आसलो तरी रीण काडून लग्नाचो थाट करता. जमातींत सोडचीठ घेवपाची पध्दत चलता. आगरी लोकांच्यो ग्रामपंचायती आसतात. एकाद्रया मनशाच्या वा भौसाच्या आचाराचे नेम ह्यो पंचायती थारायतात. नेम मोडटल्याक दंड ख्यास्त वा समज दितात. कांय गांवां मेळोवन जो जोमो जाता ताका 'टप्पा' म्हण्टात. ताचेर सरपंच वा मुकादम मुखेल आसता. हो मुखेली चड करून पिळग्यांतल्यान चलून आयिल्ल्या कुटुंबाचो वांगडी आसता. दुसऱ्या अर्थान ताका घराणेशाय म्हणूं येता. हो सरपंच आपल्या अधिकारांसकल दर गांवच्या वासपुशेखातीर पंच नेमता. चड करून हो पंच जाण्टो, अणभवी आनी वेव्हारी आसता. ग्रामपंचायतीचो निर्णय जो मानून घेना, ताका सरपंचामुखार आपली बाजू मांडपाचो अधिकार आसता.

आगरी लोक खंडोबा, बहिरी, भवानी, म्हसोबा, पीरसाब ह्या देवतांक मानतात. शिकिल्ल्या घराब्यांत ह्या देवाची सुवात राम, विष्णू, गणपती ह्या देवांनी घेतल्या. हे लोक आपले गांवदेवतेक बोकडो बळी दितात.

नाचप-गावप, कुस्ती खेळप, बैलगाडयांची सर्त लावप, भजन करप ह्यो आगरी लोकांच्यो मनोरंजनाखातीर केल्ल्यो कला. चवथ आनी शिगमो ह्या सणांक दादले नाचतात आनी गायतात. बायलो गौरी आनी शिगम्याच्या दिसांनी एकठांय येवन गीतां म्हण्टात आनी नाचतात. गौरीच्या पदाचो एक वांटो आसोः

येकच पाय हालवतय। आपले घोला बोलवतंय
आपला घो लाडका। ओटींत घेतल्या खारका
खारका लागल्या गोड। जिभला आले फोड
जिभच फोड फुटं नाय। दारचा पावना उठ नाय.

आतांच्या काळांत आगरी लोक मीठ पिकोवप, शेतभात करप, गुलाब, नेवाळी, ॲस्टर, गुलछडीच्या फुलांची पोरसां करप, तेंडलीं घोसाळें, पोपाय, आंबो ह्या फळांचीं पिकां घेवप हीं कामां करतात.

आगरी समाज जंय राबितो करून रावता थंय हेर जमातीचें अस्तित्व जाणवना, हें हे जमातीचें खाशेलेपण म्हणूं येता.

- कों. वि. सं. मं.

**गोंयची आगरी जमातः** गोंयच्या गावड्यांमदीं दोन प्रकार आसात. १. गावडे आनी २. मीठगावडे. मीठ गावड्यांक आगरी म्हूण वळखतात. गोंय राज्याकडेन सलग आशिल्ल्या कोंकण दर्यादेगेर आगरी वा मीठआगरी नांवाची स्वतंत्र जमात आशिल्ल्याचो उल्लेख भारतीय जनगणना अहवालांत मेळटा. ही जमात मिठागरां तयार करून मीठ उत्पादन करता.

- कों. वि. सं. मं.

**आगाखानः** शिया मुसलमानांच्या इस्माइल पंथाच्या मुखेल्याक ही पदवी दितात. हसनअली शाहा.(१८००-१८८१) हाका पयलो आगाखान मानतात. तो आपली वंशपरंपरा महमंद पैगंबराचो जांवय अली हाचेलागीं जोडटा. इराणांतल्या केरमान प्रांताचो तो राज्यपाल आशिल्लो, पूण तेवेळचो राजा महंमद शाहा हाचेलागीं वायटपण आयिल्ल्याकारणान ताणें बंड केलें. ताका जैत मेळ्ळें ना आनी तो भारतांत पळून आयलो. अफगाण झुजांत आनी सिंध मेळोवपांत ताणें ब्रिटिशांक आदार दिलो. ब्रिटिशांनी ताका 'हिज हायनेस' ही पदवी दिली. तो मुंबय स्थायिक जालो आनी थंयच ताका मरण आयलें.

दुसरो आगाखान अली शाहा हो पयल्या आगाखानाचो व्हडलो पूत. आपले कारकिर्दीत ताणें आपले जमातीचे उदरगत करपाचो खूब यत्न केलो. ताका १८८५ त मरण आयलें. तिसरो आगाखान सुलतान सर महंमद शाहा (१८७७-१९५७) हाका धर्मीक शिक्षणावांगडाच अस्तंती आर्विल्लें शिक्षण मेळ्ळें. भारतीय मुसलमानांचो एक म्हत्वाचो फुडारी म्हूण ताका मान्यताय मेळ्ळी. 'ऑल इंडिया मुस्लीम लीग' हाचो तो सुर्वेचीं कांय वर्सां अध्यक्ष आसलो पयल्या म्हाझुजांत आगाखानान आपल्या अनुयायांक ब्रिटिश साम्राज्याकडेन एकनिश्ठ रावपाक उलो मारलो. लंडन हांगां भरिल्ल्या भारताविशींच्या गोलमेज परिशदेंत ताणें म्हत्वाचो वांटो घेतलो. राश्ट्रसंघाच्या १९३२, १९३४ आनी १९३७ तल्या परिशदांनी तो भारताचो प्रतिनिधी म्हूण हाजीर रावलो. १९३७ त तो राश्ट्रसंघाचो अध्यक्ष जालो. संवसारभर पातळिल्ल्या (चडकरून सिरिया, इराण, मध्य आशिया, भारत, ब्रह्मदेश, मलाया आनी उदेंत आफ्रिका) आपल्या अनुयायांक ताणें संघटीत केल्ले आनी समाजाचे उदरगतीखातीर सहकारी संस्था चलोवपाक तांकां उर्बा दिलीं. तो घोड्या सर्तीनी रस घेतालो आनी बऱ्यांतले बरे घोडे पोसतालो. इंग्लीश 'डर्बीत' तो पांच फावट जैतिवंत जालो. चवथो आगाखान राजकुंवर करीम हाणें आपलें शिक्षण अमेरिकेंत घेतलें. संवसारांतल्या आपल्या अनुयायांक तो भेटी दितालो.

- कों. वि. सं. मं.

**आगाखानी पंथः** शमसुद्दीन फकीर नांवाच्या साधून पंजाबांत शमसीमत नांवाच्या पंथाची थापणूक केली. जायते हिंदू आनी मुसलमान ह्या धर्मपंथाचे वांगडी जाल्ले. ह्या पंथाच्या हिंदू वांगड्यांक 'आगाखानी' आनी मुसलमान वांगड्यांक 'खोजे' म्हण्टाले. हे लोक आगाखानाक विष्णूचो कलंकी अवतार मानताले. चडश्या हिंदूंकय हें मत मान्य आसलें.

विष्णून मुसलमान लोकांत अवतार कित्याक घेतलो हेविशीं शमसीमताच्या धर्मग्रंथांत फुडली कथा आसा-

'एक फावट धर्मराज यज्ञ करता आसतना, परमेश्वर चांडाळाच्या रूपांत ताची सत्वपरीक्षा पळोवपाक आयलो. ही गजाल ऋत्विजाक अंतर्गिन्यानान समजली. पूण ताणें ती धर्मराजाक सांगूक ना. चांडाळ यज्ञाम्हऱ्यांत पावतकच धर्मराजान आपले मायेन एक काळो पट्टो उबो केलो, पूण परमेश्वराच्या तेजामुखार हो पट्टो धवो पडलो. धर्मराजान जाणलें हो चांडाळ नासून परमेश्वर आसा. ताणें देवाकडेन चूक मागली. देव पूजा करपी ब्राह्मणाचेर रागार जाल्लो. ताणें ब्राह्मणांक सांगलें 'आयजमेरेन हांवें हिंदू धर्मांत णव अवतार घेतल्यात. पूण ह्या फुडलो धावो कलंकी अवतार हांव मुसलमान धर्मांत घेतलों.' हो धावो अवतार म्हळ्यार सर आगाखान अशें ते लोक समजतात. आगाखानाचे वंशज लेगीत अवतारच आसतले, अशी शमसीमताच्या वांगड्यांची भावना आसा. विष्णूचो अवतार आशिल्ल्यान 'धनी सलामत दातार' अशें ते ताका पाचारतात.

शमसुद्दीन फकीराच्या ह्या पंथाचो ताच्या काळांत व्हडलोसो प्रसार जालो ना. फुडें ताचो नातू सदरुद्दीन हाणें हो पंथ वाडोवपाचें येवजून ह्या पंथाचेर ल्हान व्हड पन्नाशेक पुस्तकां बरयलीं. तातूंतलीं कांय सिंधी भाशेंत तर कांय मिश्र भाशेंत आसात. तांचीं कांय नांवांः १. मंगल समाचार २. सुंदर पुराणी कथा ३. दान अतिदान ४. धर्मपुस्तकसार ५. गुरुज्ञान ६. जैसी करणी तैसी भरणी ७. गीता की पोथी.

कांय अवतार नामनेक पाविल्ले आसतात, तर कांय गुप्त आसतात अशें हो पंथ मानता. धा अवतारांवांगडा मुसलमानी पैगंबराकय हिंदूंनी मानचो, असो यत्न ह्या पंथाच्या फुडाऱ्यांनी केला. सकाळ, सांजवेळ आनी रातीची अशी तीन फावट संध्या करची अशें शमसीमतांत म्हळां.

ही आज्ञा उक्तेपणान हिंदूंक फटोवपाखातीर केल्या अशें म्हण्टात.

शमसीमताचे शिश्य ह्या पंथाक 'गुप्तपंथ' वा 'गुप्तमत' आनी स्वताक 'गुप्ती' अशें लेखतात. आपल्या पंथाचे आचार, तत्त्वां हांकां गुप्त दवरप ते आपलें कर्तव्य समजतात. ताकालागून तांचीं पुस्तकां तांच्या शिश्यशाखेंत गेल्याबगर मेळनात. आयजमेरेन हो पंथ गुप्त उरलो तरी आतां ताचो लोकांमदीं प्रचार जावपाक लागला.

- कों. वि. सं. मं.

**आग्राः** उत्तर प्रदेश राज्यांतलें आदल्या इतिहासीक वास्तूंखातीर संवसारीक नामना मेळिल्लें म्हत्वाचें शार. यमुना न्हंयचे उदेंत देगेर हें शार वसलां. दिल्लीच्यान आग्नेयेक १९२ किमी. अंतराचेर हें शार आसा. लोकसंख्याः ११,१०,३६४ (१९८१).

महाभारतांत ह्या शाराचो अग्रवन असो उल्लेख मेळटा. त्या काळांत हें शार शूरसेनाचे सत्तेखाला खूब भरभराटीक आयिल्लें. हांगाच कंसाची बंदखण आशिल्ली. ह्या शारालागसार आशिल्ल्या बटेश्वर क्षेत्रांत श्रीकृष्णाचे पूर्वज आनी वंशज हांच्या वसणुकेचे खूब अवशेश मेळ्ळ्यात. श्रीकृष्णाचो पूत प्रद्युम्न आनी नातू अनिरुध्द हांच्या नांवान वसयल्ली 'पदमन खेडा' आनी 'औधखेडा' हीं नांवां हे गजालीचो पुरावो दितात. आग्रा हें शार व्रज्र वाठारांतलें मुखेल नगर आसलें. थंयच्या बारा वनांत अग्रवन हें एक वन आशिल्लें. आर्य लोक भारतांत येतकच तांणी पांच कडेन वस्ती केली. तातूंतलें एक आग्रा शार, जाका आर्यगृह अशेंय म्हण्टाले. ह्या आर्यगृह वा अग्रवन ह्या नांवांवेल्यानूच ह्या शाराक आग्रा हें नांव पडलां अशें सांगतात. श्रीकृष्णाचें खेळपाचें थळ, अनसूया, शबरी हांची तपोभूंय; परशुराम, वेदव्यास आनी सूरदास हांची जल्मभूंय म्हणूनय आग्र्याक म्हत्व आसा.

धाव्या शेंकड्याचे अखेरमेरेन हें शार हिंदू राजांच्या शेकातळा आशिल्लें. इ.स. १०२८ वर्सा मुहंमद गजनी हाणें जयपाल राजाकडल्यान तें जिखून घेतलें. गुलाम, खिलजी, मोगल ह्या वंशातल्या सुलतानांच्या काळांत हें एक सादें शार आशिल्लें. १५०१ वर्सा सिकंदर लोदी हाणें ताची उदरगत करून थंय आपली राजधानी स्थापली. १५२६ वर्सा बाबरान हें शार आपल्या शेकातळा घेतलें. त्या वेळावयले लुटींत ताका नामनेचो कोहीनूर हिरो मेळ्ळो. ताच्या उपरांत पंचवीस वर्सांनी ताचो नातू अकबर हाणें आग्रा शाराक मोगल साम्राज्याची राजधानी करून शाराचे उदरगतींत भर घाली. फुडें शहाजहानाच्या राजवटींत ह्या शाराची सोबितकाय वाडली. ताणें आपले आवडटे राणयेचें यादस्तीक म्हूण यमुनेचे देगेर संगमरवरी फातरांचो सुंदर ताजमहाल बांदलो. फुडें ह्या शाराचेर औरंगजेबाचो शेक आयलो. ताणें १६५२ त हांगा आशिल्ली आपली राजधानी दिल्लीक व्हेली. ह्या काळांत आग्रा शाराचेर खूब घुरयो जाल्यो. कांय काळ हें शार भरतपूरच्या जाटांकडे आशिल्लें. कांय काळ मराठ्यांनीय ताचेर आपलो शेक चलयलो. १८०३ वर्सा हें शार ब्रिटिशांनी आपल्या शेकातळा घेतलें. १८५७ मेरेन आग्रा ही तांच्या वायव्य शीमेवयल्या वाठाराची राजधानी आशिल्ली. १८५८ सावन हें आग्रा जिल्ह्याचें केंद्र जालें.

सिकंदर लोदीच्या काळासावन हें विद्येचें केंद्र आशिल्लें. अकबराचे राजवटींत हांगा फारसी भाशा आनी साहित्य हांचें शिकप शिकोवप चलतालें. हांगचे संस्कृतीक म्हत्व जाणून घेवन सूरदास हांगा येवन राविल्लो. तानसेनाच्या काळासावन ह्या शाराक संगीताचें मुखेल केंद्र म्हूण लागिल्लें.

सद्या हें उत्तरप्रदेश राज्यांतले वेपारी आनी उद्येगीक केंद्र आसा. हांगा शेंदऱ्यो, गालिचे, कापूस पिंजून तातूंतल्यो बियो काडप, रसायनां, कंवच्यो, धातुकाम आदींचे तरेकवार कारखाने आसात. हांगा चामड्याच्यो आनी संगमरवरी फातराच्यो वस्तू तयार करतात. रेल्वेमार्ग, विमानमार्ग आनी रस्त्यांवरवीं हें शार भारताच्या हेर मुखेल शारांकडेन जोडलां. १८२३ त हांगा पयलें महाविद्यालय निर्माण जाल्लें. ह्या शाराच्या अस्तंत भागांत आग्रा विद्यापीठ आसा.

ह्या शारांत अकबरान बांदिल्लो व्हड किल्लो आसा. ह्या किल्ल्याच्या जाग्यार आदीं बादलगड नांवाचो किल्लो आशिल्लो, अशें सांगतात. हो किल्लो तांबड्या फातरांनी बांदला. किल्ल्याचो आंवाठ साडेतीन चौ. किमी. आसून भोंवतणचें दुरीग, दारां, भितल्लो अकबरी महाल हें सगळें अकबरान बांदलां. किल्ल्याभितल्लें कितलेशेंच काम अकबरा उपरांतच्या राजांनी केलां. हांगा ताजमहाल, अकबरी महाल, जहांगीर महाल, शीश महाल, दिवाण-इ-खास, दिवाण-इ-आम, मोती मशीद, नगीना मशीद, जामी मशीद (१६४८), यमुनेचे अस्तंत देगेर आशिल्ली इतमाद उद्दौलाची सुंदर कबर, बाबर रावतालो तो उद्यानप्रासाद, रामबाग, चिनी-का-रोझा आनी हेर जायत्यो वास्तू पळोवंक मेळटात. ह्या शाराच्या वायव्येक आठ किमी. अंतराचेर अकबराची कबर आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**आघारकर, शंकर पांडुरंगः** (जल्मः १८ नोव्हेंबर १८८४, मालवण-सिंधूदुर्ग; मरणः २ सप्टेंबर १९६०, ?).

एक भारतीय वनस्पतशास्त्रज्ञ. ताणें वनस्पतिशास्त्र, प्राणिशास्त्र, भूगर्भशास्त्र ह्या विशयांत मोलादीक संशोधन केलें.

मुंबयच्या एल्फिन्स्टन कॉलेजांत कांय दीस शिकयतकच ताणें कलकत्त्याच्या 'इंडियन म्यूझीयम' चें काम पळयलें. कलकत्ता विद्यापीठाकडेन ताचो संबंद आयलो. सन १९१४ त ऊंच पांवड्याचें शिकप घेवपाक तो जर्मनींत गेलो.

'भारताच्या सुक्या भागांत जावपी वनस्पत, तांचो स्वप्रसार आनी तांची मूळसुवात' ह्या विशयाचेर संशोधन करून ताणें बर्लिन विद्यापीठाची डॉक्टरेट जोडली. भारतांत येतकच महाबळेश्वर लागसार ताका एक चक्राकार प्राणी (medusa) मेळ्ळो. ताचेर ताणें संशोधन केलें. शेतीविज्ञान आनी वनस्पतिशास्त्र हातूंतलें ताचें संशोधन मोलाचें जावन आसा. आंबो, केळ, भाताचें पीक सारक्या फळ-धान्याचेरय ताणें आपलें संशोधन केलें. वनस्पतिशास्त्राच्या खासा अध्ययनाखातीर सन १९४६ त 'महाराष्ट्र असोसिएशन फॉर कल्टिव्हेशन ऑफ सायन्सेस' ही संस्था ताणें स्थापली.

ताणें इंग्लंड, फ्रांस, जर्मनी, स्पेन, इटली ह्या देशांचीय भोंवडी केल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**आचारः** ह्या उतराचो अर्थ- आचरण वा अनुष्ठान असो जाता. भौशीक वा धर्मीक नितीनेम आपले सदांचे चलणुकेंत पाळप हाका आचार म्हण्टात. आचाराचे सदाचार आनी कदाचार अशे दोन भेद जातात. आचार ह्या उतरांत बरे चलणूकेची वा वागणूकेची अपेक्षा आसा. भारतीय संस्कृतायेंत आचाराक म्हत्वाची सुवात आसा. धर्मशास्त्र, श्रुति-स्मृतिंत सांगिल्लो आचारधर्म जण एकल्यान पाळूंक जाय अशें धर्मशास्त्र सांगता. कसलेंय कर्म शास्त्राक धरून करचें अशेंय तातूंत म्हळां. वसिष्ठस्मृतिंत आचाराची व्याख्या केल्या ती अशीः-

आचारः परमो धर्मः सर्वेषामिती निश्चयः। (६.१)

अर्थः आचार हो सगळ्यांत व्हड धर्म असो निश्चय आसा.

व्हड लोक जे आचार आपणायतात, ताचें अनुकरण सामान्य मनीस करता अशें भगवद्गीतेंत म्हळां (३.२१). वेदांत वा धर्मशास्त्रांत ज्यो गजाली आचरणीय म्हूण सांगल्यात, तांकां पाळो दिल्यार ताचें योग्य फळ मेळटा. देखून श्रुतिचें तत्त्व आचाराचेर आदारिल्लें आसा, अशें पराशरस्मृतिंत म्हळां. धर्मशास्त्रांतल्या आचार, वेव्हार आनी प्रायश्चित ह्या तीन गजालींमदीं आचाराक व्हड लेखला.

मनु, याज्ञवल्क्य आनी हेर स्मृतिकारांनी धर्माच्यो ज्यो चार गजाली प्रमाण मानल्यात, तातूंत तिसरी गजाल सदाचाराची आसाः

श्रुतिः स्मृतिः सदाचारः स्वस्य च प्रियमात्मनः।

(याज्ञवल्क्य १.७)

अर्थः श्रुति, स्मृति, सदाचार आनी आत्मतुष्टि हीं धर्माचीं चार लक्षणां आसात.

धर्माचें तिसरें प्रमाण सदाचार हें आसा. वेदांत जावं स्मृतिंत एकाद्रे गजालीक आदार मेळ्ळो ना तर बरे सज्जन मनीस जें आचरण करतले, ते तरेचें आचरण करप म्हळ्यारच धर्माक पाळो दिलो अशें समजुचें. वसिष्ठस्मृतिंत (१.४) हो आशय फुडल्या वचनांत सांगला:-

श्रुतिस्मृतिविहितो धर्मः। तदलाभे शिष्टाचारः प्रमाणम्।

कल्पसूत्रांत श्रौत, गृह्य आनी धर्म अशे तीन भाग आसात. धर्मसूत्राच्या आरंभाक धर्माचें व्याख्यान करतना आचाराचो उल्लेख करतात. धर्म म्हळ्यारच आचार असो अर्थ ते सुवातेर घेतात:

अथातः सामयाचारिकान् धर्मान् व्याख्यास्यामः।

(आपस्तंब धर्मसूत्र १.१.१)

अर्थः ह्या उपरांत विंगडविंगड वेळार पाळपी आचार म्हळ्यार धर्म हाचें व्याख्यान आमी करतात.

धर्माचें चवथें प्रमाण आत्मतुष्टि हें जावन आसा. उजू चलणुकेच्या मनशाक एकाद्रे गजाली वा वस्तीसंबंदान दुभाव आयल्यार ताणें त्या वेळार आपल्या अंतस्कर्णाक योग्य दिसता तशें वागचें. अशा लोकांची चलणूक धर्माचें एक प्रमाण म्हूण मानतात. उजू चलणुकेचो मनीस सगळ्या इंद्रियांक आपले सुवादीन दवरता. राग, मोग, मोह, मत्सर, लोभ आनी मद हांचेर जैत जोडटा. बरे चलणुकेक लागून वेदांचें गिन्यान मेळटा. देखून स्मृतिंत अशा मनशाक 'श्रुतिप्रत्यक्षहेतवः' अशें म्हळां. असो मनीस सुवार्थ बाळगीनासतना, धर्मबुद्दीन सदाचाराचे वाटेन वता.

जनपदधर्म, ग्रामधर्म आनी कुलधर्म हे सदाचाराचे गुणधर्म आसले तरीकय तांचो उल्लेख श्रुति वा स्मृतिंत सांगूक नात. पूण वेल्या गुणधर्माचो लग्नकार्या संबंदान उपेग करून घेवचो अशें म्हळां. देखीकः लग्नावेळार व्हंकलेक कांकणां घालपाचो जो विधी आसा तो श्रुति वा स्मृतिंत सांगूक ना. पूण तो एक सदाचार आशिल्ल्यान ताका विरोध करचो न्हय अशें धर्मशास्त्र सांगता.

सदाचार मनशावरवीं पुराय भौसाची उदरगत करता. सदाचार हें धर्माचें प्रमाण मानिल्ल्यान वैदिक धर्म सगळ्याक आस्पावन घेवपी थारलो. देशांत जे नवे नवे पंथ वयर सरले, तांचीं कांय तत्त्वां वेदांक प्रमाण मानिनासलीं. काळाप्रमाण सदाचाराचे नेम बदलले. ताकालागून धर्मांत परिवर्तन आयलें. देखून वेद आनी स्मृति हांकां फाव तो मान दिवन आचार आपणावपाक धर्मशास्त्रान मान्यताय दिल्या.

भारतीय दर्शनांत मोक्षसिध्दी ही जीवमात्रांची निमाणी मोख मानल्या. ते पासत सदाचाराच्या नेमांचोय नियाळ केला. जैन दर्शनांत आचाराची खूब फोडणिशी केल्या. तातूंत अहर्तपद जोडपाखातीर अहिंसेक म्हळ्यार शांतीक, व्हड आचार लेखला. बौध्द दर्शनांत आचाराविशीं जायतीं मतां आसूनलेगीत सगळ्यांनी बुध्दाची त्या विशयावेलीं मतां मानून घेतल्यांत. बुध्दान चार आर्यसत्यांचो उपदेश केल्लो. तातूंतले चवथें आर्यसत्य दुख्ख सोंपोवपाचो एक उपाय आसून ताका ताच्या आचारशास्त्राचो आदार थारायला. एके वटेन सादी आत्मपीडा तर दुसरे वटेन सुखाच्या एका खिणाखातीर मेळपी आंनद ह्या दोनूय अतिरेकांक सोपोवन मदलो उपाय सोदप हाका सदाचार मानला. ताका लागून प्रतीत्य समुत्पादाचो नाश जावन भवचक्रांतल्यान सुटका जाता. मोग, काकळूट, दया आनी प्राणिमात्रासंबंदीची इश्टागतीची भावना ह्या सद्गुणांचेर बौध्दआचारशास्त्र आदारलां. हिंदू दर्शनांतल्या सगळ्या पंथ आनी संप्रदायांनी उपनिषद आनी भगवद्गीता हातूंत सांगिल्ले आचाराविशींचे मुखेल सिध्दान्त आपणायल्यात. ब्रह्मगिन्यान ही उपनिषदाची मुखेल मोख आसा. उपनिषद ब्रह्मगिन्यानावांगडाच आत्मसाधना आनी शील ह्या सारक्या वेव्हारीक गजालींकडेन आडनदर करूंक ना. आचारशास्त्राचे नदरेन भगवद्गीता तत्वगिन्यानापरस चड म्हत्वाची आसा. गीतेंत ब्राह्मी स्थितीचे जोडीखातीर निष्काम कर्माचो जायते तरेन उपदेश केला. धीर, मनाचो निग्रह आनी आत्मबुध्दी हे गूण सदाचाराक आदार दितात. मोक्ष जोडपाक मन पवित्र आसचें पडटा. मन पवित्र दवरचेखातीर वर्णाश्रमविरयत कर्मां आचरूंक जाय अशें शंकराचार्यान सांगलां.

आचाराविशीचीं हेर मतां अशीं आसात-

**कन्फ्युशस** (क्रिस्ताआदीं ५५१ ते ४७९ वर्सां): मनशाचें कर्तव्य म्हळ्यार मनशाच्या जिवीतांतली पुराय साधना. हें कर्तव्य ताका समाजांतलो एक वांगडी म्हूण करपाक जाय. कार्याची सिध्दी आनी पुरुषार्थ हे शुभ गूण आसात. बरी, नितळ, सादी जीण जियेवप हो सदाचाराचो आदार तर आपल्यो मागण्यो, इत्सा पुराय करप आनी संवसारांत एकठांय एकामतान चलून जिवीत पुराय करप हे ताचे दोन सिध्दान्त आसात. वेल्या सिध्दान्तांक अनुक्रमान 'चुंग' हाचो सिध्दान्त आनी 'शू' हाचो सिध्दान्त म्हण्टात. ताचें आचारशास्त्र कसलेय गजालीच्या अतिरेकाचो विरोध करता.

**मेंशियस** (क्रिस्ताआदीं ३७१ ते २८६ वर्सां): मेंशियसालें आचारशास्त्र कन्फ्युशसच्या सिध्दान्ताचेर आदारलां. तातूंत समाजकल्याणापरस मानववादाचेर चड भर दिला. कन्फ्युशसचीं मतां परंपारीक आनी उपचारीक आसलीं. ताकालागून चिनी दार्शनीक ताचेर संतूश्ट नासले.

**प्रोतागोरस** (जल्मः क्रिस्ताआदीं ४८० वर्सां): दर एके गजालीची निमाणी कसोटी म्हळ्यार मनीस.

सोफिस्ट आचारशास्त्राच्या बऱ्या वायट आंगाचें पडबिंब प्रोतागोरसच्या वेल्या मतांत दिश्टी पडटा. ग्रीस देशांत सोफिस्ट दार्शनिकांनी मनशाच्या आचरणाचें विज्ञानीक रितीन परीक्षण सगळ्यांत पयलीं केलें. क्रिस्ताआदल्या सातव्या शतमानांत ग्रीसांत आचरणाची परंपरा जल्माक आयली. प्रोतागोरसापयलीं जावन गेल्ल्या विचारवंतानी भायल्या संवसाराचेर चड ध्यान दिलें. थेल्स ते ॲनाक्सागोरस मेरेन सगळे दार्शनीक संवसारांतल्या पोरनेपणाचो सोद घेत रावले. सोफिस्टपंथीयानी दार्शनाच्या मोखीची खोलायेन विस्कटावणी केली. ते वरवीं मनशाचे जिवीताकडेन संबंद येवपी दर एका प्रस्नाक दार्शनीक नदरेन जाणा जावन घेवपाचो यत्न केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## आचार्य:

आचार्य ह्या उतराच्यो कांय व्याख्या अश्यो आसात-

'मन्त्रव्याख्याकृदाचार्यः' - जो मंत्राची व्याख्या करता तो आचार्य (अमरकोश).

'यस्माध्दर्मानाचिनोति स आचार्यः' - जाचेवरवीं शिश्याक धर्माचो बोध जाता तो आचार्य (आपस्तंब, धर्मसूत्र).

'आचार्यः कस्मादाचारं ग्राह्यति
आचिनोत्यर्थानाचिनोति बुध्दिमिती वा।'

- जो आचार शिकयता, दुडू एकठांय करता, शिश्याचें गिन्यान वाडयता तो आचार्य (निरुक्त).

उपनीय तु यः शिष्यं वेदमध्यापयेद् द्विजः।
सकल्पं सरहस्यं च तमाचार्यं प्रचक्षते।।

- जो ब्राह्मण शिश्याची मूज करून ताका वेद, यज्ञकर्म आनी उपनिषदाचें शिकप दिता, ताका आचार्य म्हण्टात (मनु. २.१४०).

पूर्विल्ल्या काळांत आचार्य शिक्षणाकडेन लागींचो संबंद दवरताले. गिन्यानाच्या मळार आचार्याची सुवात खूब वयली आसताली. देखून आचार्याकडल्यान गिन्यान घेतकच बरें फळ मेळटा असो लोकांचो समज आसलो. आचार्यावांगडा गुरू आनी उपाध्याय हांचो वयल्या पांवड्याच्या अध्यापकांभितर आस्पाव जातालो. तातूंत आचार्याची सुवात सगळ्यांपरस वयर आसा. शिश्याची मूज करपाचो अधिकार फकत आचार्यांकच आसता. तेपासत कुळान आनी गिन्यानान व्हड अशा मनशाक आचार्य करचो अशें आपस्तंब धर्मसूत्र (१.१.१.११-१२) हातूंत सांगलां. अथर्ववेदांत तेविशीं सांगला तें अशें:

आचार्य उपनयमानो ब्रह्मचारिणं कृणुते गर्भमन्तः। (११.५.३)

अर्थः आचार्य शिश्याची मूज करून, ब्रह्मचाऱ्याक (आंकवार) आपल्या गिन्यानाच्या गर्भांत प्रवेश दिता.

बौध्द आंनी जैन धर्मांत आचार्य वा गणधर हांचेविशीं खोलायेन बरयिल्लें वाचूंक मेळटा. जैनांच्या विंगडविंगड पंथांत आचार्याक व्हड

मान आसतालो. आचार्य आपल्या पंगडावांगडा वतना घातमान्यांनी तांचेर घुरी घाली तर पंगडांतलो एकाद्रो वांगडी स्वता आचार्य म्हूण सांगून खन्या आचार्याच्या जीवाची राखण करतालो. हुंवार, दुकळ, उजो ह्यासारख्या भिरांकूळ प्रसंगार, आचार्याच्या वांगड्यांनी आपल्या जिवाची पर्वा करीनासतना ताची राखण करची अशें जैनांचें मत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## आचार्य, परशुराम श्रीनिवासः

(जल्मः १९१६ पैंगीण-काणकोण; मरणः २० सप्टेंबर १९५६).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तशेंच ताका संस्कृत भाशेचेंय गिन्यान आशिल्लें. सुटके झुजाचे चळवळींत ताणें प्रत्यक्ष वांटो घेतलो ना, तरी पैंगीणच्या पर्तगाळ वाठारांतल्या गोकर्ण मठांत पुरोयताचें काम करतना ताणें सुटकेझुजाक आपलेपरीन हातभार लायलो. जेरेनिने बारेंतु हो पोर्तुगेजांचो हस्तक, राष्ट्रवादी लोकांक वायट वागणूक दितालो. देखून 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेच्या वावुरप्यांनी ताचो खून केलो. ह्या प्रकरणाखातीर १८ सप्टेंबर १९५६ दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी मडगांवच्या पोलीस ठाण्यार खर त्रास दिले. ह्या खर त्रासांनी ताका मरण आयलें. १८ जून १९८३ दिसा गोंय सरकारान ताचो मरणोत्तर भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## आचार्य, मधुकर राघवेंद्रः

(जल्मः ३० डिसेंबर, १९३२, कुंकळ्ळी-साश्टी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें माध्यमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १९५१ वर्सामेरेन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५३ वर्सा सावन तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी जालो. तो चडसो भूंयगत कार्यांनी वांटो घेतालो. १९५८ वर्सा सरफुद्दीन ह्या पोर्तुगीज गुप्तहेराच्या प्रकरणांत ताका धरून आग्वाद बंदखणींत दवरलो. १९५८ वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## आचार्य, माधव पद्मनाभः

(जल्मः १९२८- लोलयें, काणकोण).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. सुटकेझुजाच्या काळांत पत्रकां लावन भूंयगत लोकांक आदार दिवप असलो जायतो वावर ताणें केला. आत्माराम पाटील हाच्या मुखेलपणाखाल सत्याग्रही लोक जेन्ना गोंया आयले तेन्ना ताणें तांकां मार्गदर्शन केलें. २५ फेब्रुवारी १९५६ ह्या दिसा दारुगुळो हाडटा आसतना ताका धरून बंदखणींत घालो. फुडें २१ ऑक्टोबर १९५७ ह्या दिसा बंदखणीतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## आचार्य, श्रीकांत पद्मनाथः

(जल्मः लोलयें, काणकोण).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १९५० वर्सा तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटणेचो वांगडी जालो आनी भूंयगत वावर करूंक लागलो. पोर्तुगेजांआड वावुरपाच्या आरोपाखाल पोलिसांनी ताका बंदखणीत घालो. भारत सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. स. मं.

## आजगांवकर, जगन्नाथ रघुनाथः

(जल्मः १६ ऑगस्ट १८७९, वराड-मालवण; मरणः २७ ऑगस्ट १९५५, मुंबय).

मराठी संतचरित्रकार. इंग्लीश चवथीमेरेन शिकप. १८९९ सावन मुंबय, पुणे आनी कोल्हापूर हांगा खूब नोकऱ्यो केल्यो. १९११ उपरांत मुंबयंत स्थायिक जालो. कांय काळ 'इंदुप्रकाश'च्या संपादकीय विभागांत काम केलें. फुडें 'ज्ञानांजन' नांवाचें स्वतःचें म्हयनाळें चलयलें. तें बंद पडटकच अच्युतराव कोल्हटकराच्या 'संदेश' नेमाळ्याच्या कार्यालयांत ताका काम मेळ्ळें. 'रणगर्जना' आनी 'सुधारक' ह्या नेमाळ्यांचो कांय काळ तो संपादक आशिल्लो. मागीर मात नोकरी सोडून संतवाङ्मयाच्या संशोधनांत ताणें पुराय लक्ष घालें.

१९०७ ते १९३५ ह्या काळांत ताणें बरयिल्ल्या महाराष्ट्र कविचरित्राचे ९ भाग उजवाडाक आयले. नामनेच्या, अपरिचित आनी नव्यानूच संशोधित केल्ल्या शंभरावयर पूर्विल्ल्या कवींचो तातूंत आस्वाव आसा. कवींची चरित्रासयत माहिती आनी तांच्या काव्याची फोडणीशी करून दिल्लें रसग्रहण अशी मांडावळ तातूंत आसा. संतचरित्रांतल्या अजापांच्या आनी अप्रुपांच्या चमत्कारांची वळख करून दिवन भाविकतेन आनी पुराय रसिकतेन बरयल्लीं हीं कविचरित्रां खासा करून संकलनात्मक आसा. इतिहासीक नदर, शास्त्रीय संशोधन आनी विश्लेषण तातूंत दिसून येना.

'मराठी आद्यकवि श्री ज्ञानदेव' (१९२३), 'श्रीसमर्थचरित्र' (१९३५) आनी 'महाराष्ट्र संत-कवयित्री' (१९३९) हे ताचे म्हत्वाचे ग्रंथ जावन आसात. ताच्या संपादित पुस्तकांत 'श्री तुकारामबुवाचे अप्रसिध्द अभंग' (१९२२), संतकवींच्या भगवद्गीतेवयल्या टीकेचेर आदारिल्ली 'भगवद्गीता- भाग पहिला, अध्याय पहिला' (१९३१) हो झेलो आनी महिपतीच्या भक्तविजयांतली 'श्री एकनाथ-तुकाराम चरित्र' (१९४४) ह्या पुस्तकांचो आस्वाव जाता.

आजगांवकरान आर्विल्ल्या कवींच्या कांय वेंचीक कवितांचो झेलो संपादित केला (१९२८). 'कवनकुतूहल' (१९०१) हो कवितांझेलो तशेंच 'प्रणयविकसन' (१९१०) आनी 'प्रणयानंद' (१९१०) हीं संगीत नाटकां तेचप्रमाण कांय पुराणकथा, भुरग्यांच्यो काणयो, नीती-कथा अशें ताचें ललित साहित्य आसा. 'नेपाळवर्णन' (१९०६) आनी 'भरतपूरचा वेढा' (१९१९) हें ताचें इतिहासीक बरोवप. 'महाराष्ट्रभाषाभूषण' ही पदवी ताका फाव जाल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

## आझाद गोमंतक दलः

पोर्तुगेज राजकर्त्यांआड शस्त्रांचो उपेग करून तांकां भारतांतल्यो पोर्तुगेज वसाहती सोडूंक लावपाखातीर स्थापन जाल्लो सशस्त्र झुजाऱ्यांचो एक पंगड. सुभाषचंद्र बोसच्या 'आझाद हिंद फौज' हातूंतल्यान स्फूर्त घेवन १९४७ वर्सा हे संघटनेची थापणूक जाली. १५ ऑगस्ट १९४७ वर्सा भारत स्वतंत्र जालो आनी ब्रिटीश भारत सोडून गेले, तरी गोंय, दमण आनी दीव सोडून वचपाक पोर्तुगेज तयार नासले. १८ जून १९४६ दिसा डॉ. राममनोहर लोहिया हाणें गोंयांत कायदेभंगाची सत्याग्रही चळवळ सुरू केली. हे चळवळींत वांटो घेतिल्ल्या कांय तरणाट्यांक दिसलें, शस्त्राचो वापर केलेबगर पोर्तुगेज भारतांतल्यान भायर सरचेनात. देखून, २३ एप्रिल १९४७ दिसा फोंडें म्हालांतल्या कुंकळयें गांवच्या देवळांत कांय तरणाट्यांनी बसका घेतली. थंय तांणी पोर्तुगेज राजवटी आड सशस्त्र झूज दिवपाक एक संघटना निर्माण करपाचें थारायलें. तेन्नाच आझाद गोमंत दल हे क्रांतिकारक संघटनेची बुन्याद घडली.

धडधाकट तरणाट्यांचो सशस्त्र पंगड घडोवपाक तांच्या मुखार जायत्यो अडचणी उप्रासल्यो. पूण ह्या सगळ्या गजालींचेर मात करून मे १९५४ मेरेन कसलेंय काम करपाची तयारी आशिल्ल्या, चाळीस वावुरप्यांचो एक पंगड तयार केलो. पोर्तुगेज लश्करी शक्तीचो कणो मोडून उडोवचेखातीर कांय येवजणी आंखल्यो. ऑगस्ट १९५४ च्या दुसऱ्या सप्तकांत दादरा, नगर हवेलीचेर हल्लो करपाचें थारायलें. २ ऑगस्ट १९५४ दिसा सिल्व्हासा शाराची सुटका केली. ताचे उपरांत आझाद गोमंतक दलाचे वावुरपी परते गोंयांत आयले. गोंयांत येवन तांणी पोर्तुगेजांआड झुजाची तयारी केली. इतलें म्हणसर पोर्तुगेजांनी आपल्या सैन्याचें आधुनिकीकरण केल्लें आनी प्रतिकार करपाची तयारी वाडयल्ली. हो बदल लक्षांत घेवन दल संघटनेन आनीक वावुरपी घेतले

आनी तांकां प्रशिक्षण दिवपाखातीर शिबीरां घेतलीं. पुण्याचो कॅप्टन डी. जी. गोळे, दिल्लीचो कर्नल शेर जंग चौधरी ह्या अणभवी लश्करी ऑफिसरांच्या देखरेखीखाल हीं शिबीरां चलतालीं. तांकां आदार दिवपाक आझाद गोमंतक दलाचे मुखेल कार्यकर्ते, प्रभाकर विठ्ठल सिनारी उत्तरेक आनी प्रभाकर त्रिविक्रम वैद्य दक्षिणेक आशिल्ले. स्वयंसेवकांक विंगडविंगड विशयांचे गिन्यान दिवपाचो वावर श्यामराव लाड, झोटिको पी. द. सौझ आनी महाबळेश्वर नायक हांणी व्याख्यानांवरवीं केलो. ह्या व्याख्यानांत खास करून गोंयचें सुटके झूज, भारताचे सुटके झूज आनी समाजवाद अशेतरेचे जायते विशय आस्पावताले. झुजपाचें प्रशिक्षण आंबाली, वजरें, कुडाळ आनी पारघाट वाठारांतल्या रानांत दिताले. तुबकां आनी स्फोटकां वापरपाचें शिक्षण सत्तरींतल्या मोरलें आनी कृष्णापूर रानांनी तशेंच सांगें म्हालांतल्या दूदसागर आनी मोलें वाठरांत दिताले. ऑगस्ट १९५६ मेरेन दोनशें चाळीस झुजारी तयार जाले आनी तांकां गोंयांत तशेंच दमणांत वेगवेगळ्या वाठारांनी नेमले. तांचो एकामेकांलागीं संबंद उरचो म्हूण आरोंदें, सातार्डे, बांदा, वजरें, तेरेखोल, कणकुंबी, कॅसलरॉक, कुमठा हांगा संपर्क केंद्रां चलतालीं. हीं संपर्क केंद्रां यशवंत नागडे, पुरुषोत्तम कवळेकार, सूर्यकांत नायक, रंगा नायक, आत्माराम मयेंकार, कृष्णा मयेंकार, कृष्णराव राणे, टोनी फेर्नांडीस, दत्ताराम देसाय, भिकुभाय पांडे आनी जगन्नाथ त्रिपाठी चलयताले.

डिसेंबर १९५४ वर्सा दलाच्या कार्यकर्त्यांनी हल्ले करपाचें थारायलें. तेप्रमाण पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करून आर्विल्ल्या शस्त्रांचो सांठो जप्त करपाच्या कामाखातीर दोन वावुरप्यांक नेमले. आर्विल्ल्या शस्त्रांचो वापर करून, पोर्तुगेज सत्ताधाऱ्यांक आझाद गोमंतक दल संघटनेची ताकद दाखोवपाक हे हल्ले घडोवन हाडिल्ले. तेचप्रमाण जानेवारी १९५५ ते मे १९५५ मेरेन तांणी पोर्तुगेजांच्या आर्विल्ल्या शस्त्रांचेर आनी दारु गुळ्याचेर जायत्यो घुरयो घाल्यो.

कांय मुखेल घुरयो, घुरयांचो वाठार आनी तांचे मुखेली अशे आसात: १ जानेवारी १९५५, बाणस्तारी पोलीस ठाणे- मोहन रानडे; ९ फेब्रुवारी १९५५, गुळेली पोलीस ठाणे- कृष्णा मयेंकार आनी कृष्णराव राणे; ११ फेब्रुवारी १९५५, अस्नोडा- कानोबा नायक; १२ फेब्रुवारी १९५५, काणकोण- दत्ताराम देसाय आनी प्रभाकर वैद्य; १२ मार्च १९५५, कळंगूट पोलीस ठाणे- यशवंत अगरवाडेकर; १९ फेब्रुवारी १९५५, रावण लश्करी ठाणे- प्रभाकर सिनारी; १ एप्रिल १९५५, कुंकळ्ळी पोलीस ठाणे- प्रभाकर वैद्य आनी दत्ताराम देसाय; १७ मे १९५५ कालें, पोलीस ठाणे- रजनीकांत केंकरे; १७ मे १९५५, हळदोणा पोलीस ठाणे- रामदास चांफडकार आनी शंभू पालकार. ह्या धाडसी हल्ल्यांवरवीं आझाद गोमंतक दल संघटनेक शस्त्रां आनी संबंदीत हेर वस्तू तर मेळ्ळयोच पूण हाच्यापरसूय व्हड हल्ले करपाचें नैतिक बळगें तांकां मेळ्ळें. ह्या हल्ल्यांनी मेळिल्ल्या अणभवाचो वापर करून आझाद गोमंतक दलान हाचेयपरस व्हड हल्ले करून पोर्तुगेज सरकाराक नाका पुरो केलें. हातूंत मिलीटरी जीपीक उजो घालप, पोर्तुगेज अधिकाऱ्यांक गुळी घालप, सरकारी मालमत्ता नश्ट करप, बाँब फोडप ह्या सारको धाडसी वावर हातांत घेवन आपले परीन सरकारी प्रशासनाक आडखळ हाडपाचो वावर केलो. ह्या वावरांत कुलदीपसिंग, केदार अणवेकार, वसंत चोडणकार, मनोहर पेडणेकार, बाळकृष्ण भोंसले आनी बापू सहकारी हांणी व्हड कामगिरी केली.

दल संघटनेच्या वावुरप्यांच्यो भूंयगत कारवायो बऱ्योच खर आशिल्ल्यान लिस्बोआ आनी पणजेच्या शासनाक गंभीरपणान दखल घेवची पडली. पूण दल संघटनेन हार मानीनासतना गोंयची सुटका जायमेरेन आपलो वावर चालू दवरलो.

- विश्वनाथ लवंदे

**आझाद, चंद्रशेखर:** (जल्म: २३ जुलय १९०६, भावरा-मध्य प्रदेश; मरण: २७ फेब्रुवारी १९३१, अलाहाबाद-उत्तर प्रदेश).

भारतीय स्वातंत्र्य- चळवळींतलो एक क्रांतीवीर. आडनांव तिवारी. बापायचें नांव पं. सीताराम आनी आवयचें नांव जगरानी देवी. ताच्या बापायची डाक विभागांतली नोकरी कमी पगाराची आशिल्ल्यान तो शिकपाखातीर बनारसाक गेलो. थंय एक छात्रनिवासांत ताची फुकट वेवस्था जाली.



चंद्रशेखर आझाद

बनारसाक शिकता आसतना, १९२१ वर्सा ड्यूक ऑफ विंडसरचे भेटीचेर बहिश्कार घालपाच्या कटांत ताणें वांटो घेतलो. पिरायेन ल्हान आशिल्ल्यान ताका १५ बेतकाठ्यांची ख्यास्त जाली. तेन्ना मॅजिस्ट्रेटान ताका विचाल्लें, 'तुजें नांव किदें?' ताणें थंड-साणीन जाप दिली- 'म्हजें नांव आझाद. म्हज्या बापायचें नांव स्वाधीन आनी म्हजें घर आसा बंदखणीत'. तेन्नासावन तो ब्रिटीश सरकाराच्या मतान दहशतवादी थारलो.

काशी राश्ट्रीय विद्यापीठांत शिकता आसतना ताचें पुराय लक्ष क्रांतिकारक चळवळींकडे आशिल्लें. १९२५ च्या काकोरी (लखनौ) हांगाच्या आगगाडी उडोवपाच्या कटांत ताणें वांटो घेतलो. कटांतल्या मुखेल गुन्यांवकारांक धरले पूण चंद्रशेखर पोलिसांच्या हातांक लागलोना. सशस्त्र क्रांती करपाच्या हेतान ताणें 'हिंदुस्थान रिपब्लिक असोसिएशन' हे पोरने संस्थेचें 'हिंदुस्थान सोशलिस्ट रिपब्लिक असोसिएशन' हातूंत रुपकार केलो आनी आपणे स्वता हे संघटनेचें सेनापतीपद आपणायलें. हे संस्थेचो लाहोर कट उक्ताडाक आयिल्ल्यान ती संस्था विसर्जित जाली. तरीकूय चंद्रशेखर आझाद आपल्या सशस्त्र क्रांतीच्या ध्येयापसून मात्तूय फाटीं सरलोना.

दिल्लींतल्या पेढीवयले आनी पंजाब बँकेतले दरोडे, सँडर्स ह्या पोलीस अधिकाऱ्यावेलो हल्लो, कानपूराक सुरू केल्लो गुप्त बाँबांचो कारखानो ह्या प्रकरणांत चंद्रशेखरान सक्रीय फुडाकार घेतलो. पोलिसांच्या हाताक तो कसोच लागना म्हूण ब्रिटीश सरकारान ताका धरून हाडपाखातीर १० हजार रुपयांचें इनाम दवरिल्लें. धश्टपुश्ट कुडीचो आनी निग्रही वृत्तीचो हो क्रांतीवीर अलाहाबाद हांगाच्या आल्फ्रेड पार्कांत पोलिसांकडेन जाल्ले चकमकींत जिविताक अंतरलो.

- कों. वि. सं. मं.

**आझाद, मौलाना अबुलकलाम:** (जल्म: ११ नोव्हेंबर १८८८, मक्का; मरण: २३ फेब्रुवारी १९५८, देहली).

भारताचो एक मुखेल राजकी फुडारी. हाचें मूळ नांव मोहिउद्दीन अहमद अशें आसून अबुलकलाम (वाचस्पती) ही ताची पदवी. ताच्या फुडें आझाद (स्वतंत्र) हें टोपणनांव तो लायतालो. ताचो जल्म एका विद्वान घराण्यांत जालो. ताचें ल्हानपण मक्केक गेलें. अरबी आनी फार्सी तो बापायकडसून शिकलो. बापायवांगडा १८९० त तो कलकत्त्याक आयलो. पारंपारिक मुसलमानी शिक्षणपध्दतीप्रमाण ताणें फार्सी, उर्दू, अरबी, ह्या भासांचें शिकप पयलीं करून तर्कशास्त्र, इस्लाम धर्म, तत्त्वगिन्यान आनी गणित हांचो अभ्यास केलो. फुडें सर सय्यद अहमदखान हाच्या लेखांचो परिणाम जावन ताणें इंग्लीश भाशेचो अभ्यास स्वतंत्रपणान सुरू केलो.

ल्हान पिरायेचेर १९०२ पसून ताणें नेमाळ्यांनी लेख बरोवपाक सुरवात केली. १९०५ त लखनौच्या 'अन-नदवा' ह्या पत्राचो तो संपादक जालो. त्या उपरांत दोन वर्सांनी तो अमृतसर गेलो आनी थंयच्या 'वकील' ह्या पत्राचो संपादक जालो. १९०८ त इजिप्त, अरबस्तान, तुर्कस्तान, फ्रांस ह्या देशांक ताणें भेट दिली. थंयच्या क्रांतीवीरांच्या संपर्काक लागून ताचीं राजकीय मतां बदलपाक लागलीं आनी कलकत्ता परत येतकच हिंदी मुसलमानांनी स्वातंत्र्य झुजांत वांटो घेवचो अशें मत ताणें मांडलें. लोक जागृतायेखातीर १९१२ त कलकत्ता हांगा ताणें स्वताचें 'अल्-हिलाल' हें उर्दू सातोळें सुरू केलें. उर्दू भाशेंत हाचे आदीं इतल्या उंचेल्या पांवड्याचें नेमाळें येवंक नाशिल्लें. नेमाळ्यांनी, खबरेपत्रांनी 'आझाद' ह्या टोपण नांवान तो बरयतालो. वृत्तपत्राचें संपादन करता आसतना तो फ्रेंच शिकलो.



मौलाना आझाद

'अल-हिलाल' पत्रांत केल्ले खर राजकी टीकेक लागून ब्रिटीश सरकारान ताचेकडसून १०,००० रुपयांचो जामीन मागलो. ताणें तो दिलोना म्हूण तें वृत्तपत्र बंद पडलें. १९१५ त ताणें 'अल-बलाघ' हें दुसरें दिसाळें सुरू केलें. ताका लागून आझाद हाका खूबशा प्रांतांनी वचपाक सरकारान बंदी घाली. फुडें ताका रांची हांगा स्थानबध्द केलो. ताचे अटकेक लागून मुसलमान खुबळ्ळे. १९२० त तो बंदखणींतल्यान सुटलो. असहकाराच्या चळवळींत वांटो घेतलो म्हूण परत १९२१ त ताका अटक जाली. पूण एका वर्सा उपरांत ताका मुक्त केलो. १९२३ त दिल्लीक खाशेल्या काँग्रेस अधिवेशनाचो तो अध्यक्ष जालो. १९३० त ताका पर्थून बंदखणींत घालो. १९३०-३१ ह्या दोन वर्सांत कांय मुसलमान लोक सत्याग्रहांत सामील जाले, हाचें सगळें श्रेय आझादाक फावता.

१९३९ ते १९४६ मेरेन तो काँग्रेसचो अध्यक्ष आशिल्लो. १९४२ त भारत छोडोच्या सत्याग्रहावेळार ताका परत बंदखणींत वचचें पडलें. १९४५ त हेर फुडाऱ्यांवांगडा ताची सुटका जाली. १९४२ ची क्रिप्स येवजण, १९४५ ची वेव्हेलची सिमला परिशद आनी १९४६ त ब्रिटीश मंत्र्यांचें शिश्टमंडळ ह्या प्रसंगांतल्या सगळ्या वाटाघाटींत काँग्रेसवरवीं अध्यक्ष ह्या नात्यान ताणेंच फुडाकार घेतलो. १९४७ त स्वतंत्रताय मेळ्ळ्या उपरांत तो केंद्रीय मंत्रीमंडळांत आयलो आनी शिक्षणमंत्री म्हूण अखेरमेरेन थंयच उरलो.

एक खांपो उलोवपी म्हूण ताणें नामना मेळयली. ताचें इंग्लीश, उर्दू, फ्रेंच अरबी आनी फार्सी भाशांचेर प्रभुत्व आशिल्लें. ताणें जायत्या नेमाळ्यांतल्यान, खबरेपत्रांतल्यान स्फूट बरोवप केलें. उर्दू भाशेंतलो तो एक व्हडल्या तांकीचो साहित्यकार जावन आसा. ताचीं कांय नामनेचीं उर्दू पुस्तकां अशीं- 'तजकेरा', 'गुब्बारे-खातिर', 'कौले-फैसल', 'दास्ताने करबला', 'मजामीने अल हिलाल', 'मजामीने आजाद', 'खुतबाते आजाद', 'इंसानियत मौत के दरवाजे पर'. ताणें बरयल्लो 'तरजुमानुल कोरान' हो कुराणचो उर्दू अणकार खूब लोकप्रिय जालो. 'इंडिया विन्स फ्रीडम' (१९५९) हें ताचें आत्मचरित्र मरणाउपरांत उजवाडाक आयलें. ह्या आत्मचरित्रांतलो ३० पानांचो वांटो राजकी नदरेन वादग्रस्त थारतलो ह्या हिशोबान आदींच कडेक काडून दवरिल्लो. हे संबंदी प्रकाशक आनी प्रकाशनाचे हक्क आशिल्ल्या मौलाना आझाद कलामाच्या वारसदारांमदीं वाद जालो. ताचीं उलोवपांय पुस्तकरुपान हालींच उजवाडाक आयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंदः भारतीय स्वातंत्र्य चळवळ.

**आझाद हिंद सेनाः** भारतीय फुडारी नेताजी सुभाषचंद्र बोस हाच्या फुडारपणाखाल भारतीय स्वतंत्रतायेचे चळवळीखातीर सिंगापूर हांगा जुलय १९४३ वर्सा तयार केल्लें लश्करी संघटन.

दुसरें म्हाझूज चालू आसतना नेताजी सुभाषचंद्राक ब्रिटीश सरकारान कलकत्ता हांगा नदरकैदेंत दवरिल्लो. थंयच्यान तो १७ जानेवारी १९४१ दिसा सुटलो आनी जर्मनींत पावलो. जर्मनींत भारताभायल्या भारतीयांचें संघटन करून स्वातंत्र्यसेना उबी करपाचो निर्धार ताणें केलो आनी तेखातीर जर्मन सरकारचो पालव मेळयलो. जर्मनी आनी फ्रांसांतले भारतीय नागरीक आनी जर्मनांच्या ताब्यांतले झूजबंदी हातूंतल्यान सुमार तीन हजारांची फौज तयार जाली. पूण थंयच्यान भारत खूब पयस आशिल्ल्याकारणान नेताजीक प्रचार सोडल्यार प्रत्यक्ष कृती करप शक्य जालें ना.

आग्नेय आशियांत १९४२ च्या सुमाराक झुजाक आरंब जालो आनी १५ फेब्रुवारी दिसा जपानान सिंगापूरचो ब्रिटीश आरमारी तळ काबीज केलो. मलाची मोहिमेत जपान्यांच्या हातांत मेळिल्लो ब्रिटीश सेनेंतलो भारतीय सैन्याधिकारी कॅप्टन मोहन सिंग हाणें जपानाच्या आलाशिऱ्याखाला भारतीय राश्ट्र सेनेची थापणूक केल्ली. त्याच वेळार थंय स्वतंत्रताय चळवळीचो वावर बेगीन जावंचो, म्हूण भारतीय स्वतंत्रताय संघ स्थापन करून राशबिहारी बोस हाचे अध्यक्षतेखाला एक कृतिमंडळ नेमिल्लें.

कॅ. मोहनसिंगच्या आपोवण्यावेल्यान बँकॉकचे परिशदेक हाजीर रावपाखातीर जर्मन आनी जपानी सरकारच्या पालवान व्हडा कश्टांनी पाणबुडीचो प्रवास करून नेताजी जून १९४३ वर्सा सिंगापूराक पावलो. इतले मजगतीं मोहनसिंगाचे जपानाकडेन मतभेद जावन जपान्यांनी ही सेना बरखास्त केली. पूण 'भारतीय स्वतंत्रताय संघ' ही संस्था थंय अस्तित्वांत आशिल्ली. नेताजीन जपान्यांचो पालव घेवन मोहनसिंगाचें लश्करी संघटनेचें पुनरुज्जीवन करून तिका 'आझाद हिंद सेना' अशें नांव दिलें. २ जुलय १९४३ दिसा नेताजी सिंगापूराक गेलो आनी ताणें राशबिहारी बोसाकडल्यान भारतीय स्वतंत्रताय संघाची जापसालदारकी आपल्या हातांत घेतली. ५ जुलय १९४३ दिसा औपचारिक रितीन आझाद हिंद सेनेची थापणूक जाली. 'चलो दिल्ली' हे घोशवाक्यूय तांणी प्रसारांत हाडलें.

जपानचे बंदखणींतले भारतीय झूजबंदी, भारतीय नागरिक आनी बायलो आपखोशयेन देशसेवेखातीर हे सेनेंत आयल्यो. जपानच्या हातांत लागिल्ल्या ब्रिटीश शस्त्रसामग्रीच्या आदाराचेर दोन लश्करी विभाग जातले येदें व्हड सैन्य तयार केलें. जगन्नाथराव भोसले, शाहनवाजखान आनी मेजर सैगल ह्या भारतीय झूजबंदी लश्करी अधिकाऱ्यांक मेजर जनरल हो हुद्दो दिलो. तांच्यो अनुक्रमान चीफ ऑफ जनरल स्टाफ आनी विभागीय सेना मुखेली म्हूण नेमणुको जाल्यो. नेताजी सुभाषचंद्रान हे सेनेचें सरसेनापतीपद आपलेकडे घेतलें. बायलांचें 'झांशीची राणी पथक' तयार केल्लें, ताचें फुडारपण कॅ. लक्ष्मी स्वामिनाथन हिचेकडेन सोंपयलें. ह्या सगळ्या सैन्याक लश्करी शिक्षण दिलें.

२१ ऑक्टोबर १९४३ ह्या दिसा नेताजीन आझाद हिंदचें तात्पुरतें सरकार प्रस्थापित केल्ल्याची घोशणा केली. जपान, इटली, जर्मनी ह्या राश्ट्रांनी ताका बेगोबेग औपचारिक मान्यताय दिली. आझाद हिंदच्या तात्पुरत्या सरकारान नागरी शासन वेवस्थेंत लेगीत लक्ष केंद्रित केलें आनी कांय मुलकी खातीं सुरू केलीं. तातूंतलीं म्हत्वाचीं खातीं अशीं: अर्थ, प्रसिध्दी, लश्कर-भरती, भलायकी आनी समाजकल्याण, पुरवण,

घरबांदप आनी येरादारी. लोकांचें फाटबळ मेळचें म्हूण नेताजीन बसका घेतल्यो आनी आकाशवाणीवेल्यान उलोवपां केलीं. कांय दिसांनी आझाद हिंद सेनेक जपानी सेनेचो पांवडो प्राप्त जालो आनी तिचो वावर सुरू जालो. नेताजीच्या खडेगांठ व्यक्तिमत्वाक लागून भारतीय सैनिकांचो आंकडो तीस हजारांवयर गेलो. गांधी, नेहरू, आझाद अशा तीन पथकांत सैनेची वांटणी केली. ह्या पथकांतल्या वेंचीक लोकांचें एक स्वतंत्र पथक 'नंबर एक गनिमी पथक' ह्या नांवान तयार केलें आनी शाहनवाजखान हाच्या मुखेलपणाखाल ताचो वावर सुरू जालो. हेंच पथक फुडें 'सुभाष पथक' ह्या नांवान लोकप्रिय जालें.

मार्च १९४४ त, जपान्यांनी हिंदुस्थानचे ईशान्य शीमेर केल्ल्या हल्ल्यांत हे सेनेंतलीं कांय पथकां धाडलीं. शिमेवयल्या इंफाल हांगा जाल्ले लडायेंत ह्या सैन्यांतल्या कांय पथकांनी बरी कामगिरी केली. मे, १९४४त शाहनवाजखानच्या फुडारपणाखाल एका पथकान भारतीय शीमेंत प्रवेश करून मोडोक ठाणें जिखलें. ब्रिटिशांचे व्हडले फौजेची आनी विमान मान्याची पर्वा करीनासतना ते म्हयनोभर लडले. कॅप्टन सूरजमल हाच्या हातासकयल्या एके जपानी सेनेन मोडोक भाशेनूच हेरकडल्या झुजांत लेगीत खूब पराक्रम केले. लेफ्टनंट मनसुखलाल हाणें मूठभर सैनिकांक घेवन झुजता आसतना जखमी जावन लेगीत एक दोंगुल्ली जिखली. दुस्मानाचें प्रचंड संस्थाबळ, अपुरी शस्त्र आनी अन्न पुरवण, रसद मेळपाचीं आडमेळीं, जपानी लोकांचो लहरी पालव हाका लागून झूज थांबोवचें पडलें. आझाद हिंद सेना फाटीं सरता आसतनाच ब्रिटिशांनी विमानांतल्यान पत्रकां उडयलीं आनी ब्रिटीश सैन्यांत परत येयात अशी हाव दाखयली. पूण सैन्यांतलो एकटोय सैनिक तांकां बदलोना. भारत शीम हुंपून फुडें ब्रह्मदेशांत वचपी ब्रिटीश सैन्याक आझाद हिंद पथकां शरण आयलीं.

२ मे १९४५ ह्या दिसा रंगून जिखतकच थोड्याच दिसांभितर जपान शरण आयलें. त्या वेळार नेताजी सिंगापूरच्यान विमानांत टोकियो हांगा वता आसतना वाटेर विमानाक अपघात जावन ताका मरण आयलें, अशी खबर आयली. उपरांत आझाद हिंद सेनेच्या अधिकाऱ्यांक आनी सैनिकांक बंदी केले आनी भारत सरकाराआड बंड केल्ल्याचो आरोप तांचेर दवरलो. शाहनवाजखान, सैगल ह्या अधिकाऱ्यांचेर कोर्टांत खटले भरले. पूण भारतीयांच्या हेविशींच्या प्रक्षुब्ध लोकमताचे जाणविकायेक लागून ब्रिटीश सरकारान ह्या अधिकाऱ्यांची ख्यास्त माफ केली (३ जानेवारी १९४६). भारतीय स्वतंत्रताय चळवळीच्या इतिहासांत आझाद हिंद सेनेक खाशेलें म्हत्व आसा.

- कों. वि. सं. मं.

(पूरक नोंदः बोस, सुभाषचंद्र)

**आडनांवः** आडनांव म्हळ्यार उपनांव वा कूळ, घराणें, वा घराब्याचें नांव. एकाद्र्या मनशाचो चुकनासतना उल्लेख करूंक मेळचो म्हूण आडनांवाचो उल्लेख जाता. आडनांव मनशाच्या खाशेल्या नांवाभायर आसता आनी तें ताका हेर कुळांसावन वेगळो काडटा. आडनांव, बापायच्या पुतां- धुवांक, पुताच्या नातू-नातरांक, पण्टुरांक, शेण्टुरांक आनी ताच्या फाटल्यान येवपी पिळग्या-पिळग्यांतल्यान चलत रावता.

आडनांव उतराची उत्पत्ती विंगडविंगड तरेन मेळटा. कांय जाणांच्या मतान 'आड' हें उतर 'अर्ध' ह्या संस्कृत उतरावेल्यान आयलां तर 'अड्ड' ह्या समानार्थी कन्नड उतरावेल्यान 'आड' हें उतर आयलें अशें कांय जाण म्हण्टात. जाच्या आलाशिन्यान आपूण वावुरता तें नांव अशी आडनांवाची व्युत्पत्ती करतात. देखीकः घर, गांव, धंदो, गूण हांचेवेल्यान बऱ्याच लोकांक आडनांवां पडल्यांत.

कुळनांव वा आडनांवाची चाल केन्ना आनी खंय सुरू जाली हेविशीं सारकी म्हायती मेळना. इंग्लंडांत नॉर्मनच्या दिग्विजयाउपरांत म्हळ्यार इकराव्या बाराव्या शतमानासावन कुळनामाचो वापर जावपाक लागलो, अशें म्हण्टात. कांय विद्वानांच्या मतान महाराष्ट्रांतय ह्याच काळांत कुलनामाचो वापर सुरू जालो. आदल्या काळार भारतांत आपलें खाशेलें नांव आनी बापायचें नांव घालपाची चाल आसली. ब्रिटिशांच्या काळांत स्वताच्या आनी बापायच्या नांवाक 'आडनांव' जोडपाचे पद्धतीक नेट आयलो.

आडनांवां त्या त्या घराण्यांक तांणी चलयिल्ल्या वेवसाय-धंद्यावेल्यान, तांच्या जाती वेल्यान, तांच्या मूळ गांवावेल्यान, कांय वेळार तांच्या पूर्वजांनीं झुजामळार वा हेर मळार गाजयिल्ल्या पराक्रमावेल्यान, नागरीक जिवितांत मान-भोवमानाची पदवी मेळिल्ल्यान फावो जालीं वा पडलीं. कांय घराण्यांचीं आडनांवां कुळाचें गोत्र, दैवत वा देवकांवेल्यान आयलीं वा आपणायलीं. कांयकडेन आडनांवां जमीनदार भाटकाराच्या नात्यांतल्यान आयलीं तर कांयकडेन मुंडकारांनी आनी चाकरांनी भाटकाराचीं आडनांवां आपलेमदले संबंद दाखवपाक घेतलीं. सादारणपणान आडनांवां मनशाचो बरो उल्लेख करपी आसलीं तर कांय फावट आडनांवां वायट उल्लेख करपी, गूण सांगपी निंदा करपी तर कांय फावट सामकीच अर्थ नाशिल्लीं आसतात.

एकाद्र्या घराण्यांत कार्य फुडें व्हरपाक पूत नासल्यार तें घराणें भायल्या सोयऱ्या-धायऱ्यांमदलें वा दायजी-गोत्रांतलें, पूण वेगळ्या आडनांवाचें भुरगें पोसकें घेता. अशा वेळार पोसक्या भुरग्याच्या मुदलच्या आडनांवाक नव्या घरांतलें आडनांव जोडटात. तेचपरी घरजांवय जाल्लो दादलो आपले बायलेच्या कुळाराचें आडनांव आपल्या मूळ आडनांवाक जोडटा. जायते फावट किरिस्तांव धर्मांत लग्न जाल्ली बायल आपल्या घोवाच्या आडनांवावांगडाच कुळारचें आडनांव लायता. आपल्या मूळ आडनांवाचे प्रतिश्ठेक, वळखीक, मानाक, लौकिकाक बाधा येवंची न्हय म्हणून अशें आडनांव घेतात. बऱ्याच समाज पंगडांत चड करून हिंदूमदीं लग्न जाल्ले चलयेचें कुळारचें आडनांव बदलून त्याजाग्यार घोवाचें आडनांव लायतात.

आडनांवाची सांखळ, खंयचें नांव सोडचें वा खंयचें नांव दवरचें ह्या निर्णयाचेर लांब वा मोटवी जाता. आडनांवां घेतना वा सोडटना आवयच्या घराण्यांतलें एक आनी बापायच्या घराण्यांतलें कायद्यान लागू जावपी आडनांव घेवपाची चाल आसा. ही चाल गोंयच्या किरिस्तांवामदीं उंचेल्या पांवड्यार चलता. गोंयच्या हिंदूमदीं जोडनांवां घेवपाची चाल वयल्या पांवड्यार पूण उण्या प्रमाणांत चलता. पोर्तुगालांत सन १९३० वर्सा केल्ल्या नागरी नोंदणी कायद्याप्रमाण (**Codigo de Registo Civil-1930**) आनी तातूंत फुडाराक केल्ल्या दुरूस्तीप्रमाण 'आडनांव थारावीक उतरांत मर्यादीत आसचें', असो नेम आसा. तेचपरी वेंचिल्लें आडनांव बापायन वापरिल्लें वा घराण्याच्या मूळ पुरसाकडल्यान आयिल्लें आसपाक जाय अशी अट आसली. उपनांव दिवपाचो हक्क बापायक आसलो.

सादारणपणान आडनांव मनशाच्या नांवाच्या निमाण्या जाग्यार बरयिल्लें आसता. पूण दक्षिण भारत ह्या नेमाक आडवाद आसा. केरळांत पयलें घराचें वा कुळाचें नांव, दुसरें बापूय वा घोवाचें नांव आनी तिसरें खाशेलें-जणीक नांव घेतात वा जोडटात. कर्नाटकांत कांयकडेन गांवचें नांव, आसा तशें घेतात आनी ताका एक खाशेलें जणीक नांव जोडटात वा खाशेलें नांव पयलीं घालून आडनांव दुसरें आनी निमाणें नांव गांवचें, आसा तशें घेतात. तमीळनाडूंत पयलें मूळ गांवचें, दुसरें बापायचें आनी तिसरें खाशेलें नांव घेतात. केन्नाय निमाणे जातीचें वा बिरुद अशें फाव जाल्लें आडनांव म्हूण लायतात. आंध्रांत जात दाखोवपी आडनांव निमाणेकडेन घालतात, वा केन्नाय फकत मूळ गांव वा बापायचें वा कुळाचें आडनांव आनी निमाणेकडेन आपलें खाशेलें नांव घेतात.

गोंयांत हिंदूमदीं वयलेवरी कूळ, जात, धंदो आनी हेर कारणांक लागून आडनांवां पडलीं. किरिस्तांवामदीं दर एका गांवांत क्रिस्तीकरण जालें तेन्ना वयले जातींतल्या गांवकारांच्या वांगडांप्रमाण पोरन्या आडनांवां वा कुळांबदला नवीं पोर्तुगेज आडनांवां दिलीं. हेर जालीचे चालीप्रमाण वा एका कुळाच्या दायजाप्रमाण दरेका गांवांत एका-एका कुळाच्या वांगड्याक एक एक आडनांव दिलें. कांय जाणांनी पादोर्नांचीं आडनांवां घेतलीं. (पादोर्न म्हळ्यार अध्यात्मीक नदरेन बातीस्मावेळार

वात जळोवपी पालक- god father) गोंयच्या किरिस्तांवाच्या नांवांनी आडनांव जर आसलें तर बापायचें नांव तातूंत आस्पावना, तशेंच लग्न जाल्ले बायलेच्या नांवात आपल्या घोवाचें नांव आसता.

**आडनांव बदलपाची पध्दत:** खबरेपत्राचेर भौशीक कळोवणी दिवन वा सरकारी राजपत्राचेर जायरात दिवन लोक आपलीं आडनांवां बदलूंक शकतात. अस्पृश्य मानिल्ल्या जातीनी आपलीं आदलीं आडनांवां बदलून नवीं वयल्या मानिल्ल्या जातीचीं आडनांवां घेतल्यांत. कांय जातीनी आपली जात सांगपी आडनांवां सोडून नवीं बरीं दिसपी वा गांवचो उल्लेख करपी आडनांवां घेतल्यांत. कांय मंगळूरकार किरिस्तांवानी आपली मूळचीं मानिल्लीं हिंदू आडनांवां आपल्या किरिस्तांव आडनांवाक जोडल्यांत. कांय पाद्रींनी आनी गोंय, मंगळूरच्या किरिस्तांव लोकांनी आपलीं मुदलचीं हिन्दू आडनांवां वा नवीं घडयल्लीं आडनांवां घेतल्यांत. तमीळनाडूंत 'सौराष्ट्र' नांवाचे जातीन थंयच्या सगल्यांत ऊंच मानिल्ल्या 'अय्यर' आनी 'अय्यंगार' बामण जातीचीं आडनांवां आपले जातीखातीर आपणायल्यांत. उत्तरप्रदेश, पंजाब आनी हेर उत्तरेकडल्या राज्यांनी जात सांगपी नांव सोडून दिवपाची चाल आयल्या. आतां थंय फकत आपलें खाशेलें नांव आनी बापायचें वा घोवाचें नांव वापरतात. वयले तरेची चाल रशिया आनी हेर कांय देशांनी चलता.

**आडनांवाच्यो देखी:** विंगडविंगड कारणांक लागून पडिल्ल्या आडनांवाच्यो देखी फुडलेतरेन आसात.

वाठारांवेल्यान: कुडतरकार, सांवड्डेंकार, मडगांवकार, शेल्डेंकार.
वेवसाय-धंद्यावेल्यान: जोशी, देशमूख, भट, पुराणीक, परीट, शेट.
वर्ण रंगावेल्यान: काळे, गोरे.
झाडां-पेडांवेल्यान: पडवळ, आंबो, माड, भेंडो.
सावदां-प्राणी: वाघ, कावळे, राजहंस, मोरे, गायतोंडे.
पदार्थांवेल्यान: भोबो, सांबारी.
धातूंवेल्यान: तांबे, लोखंडे.
शरीरावेल्यान: डोळे, काणे.
नात्यांतल्यान: सातपुते, नातू, नवरे, काकुलो.
गुणांवेल्यान: धैर्यवान, अजिंक्य, सहस्त्रबुध्दे, बुध्दीसागर.
निंदाकरपी: आगलावे, बोंबले, जीवतोडे.

गुजरातांतलीं उपाध्याय, भट, देसाई, मेहता, पटेल, कापडिया हीं नांवां वेवसाय दाखयतात. बंगाली लोकांत मुखर्जी (मुखोपाध्याय), बॅनर्जी (बंधोपाध्याय), चतर्जी (चट्टोपाध्याय), बोस (बसु वा वसु), दत्त, मित्र, सेन, ठक्कूर हीं नांवां वेवसाय वा जाती दाखयतात. उत्तर प्रदेशांतले दुबे, द्विवेदी, त्रिपाठी, चौबे, चतुर्वेदी, दीक्षित, पंत, पंडित, शर्मा, श्रीवास्तव आनी म्हैसूर मद्रासाकडले अय्यर- अय्यंगार, पिळ्ळे, नायडू तशेच केरळांतले नायर, नंबुद्रिपाद हीं नांवां जातीवाचक वा वेवसायवाचक आसात. पारशी लोकांभितर डॉक्टर, बाटलीवाला, दारुवाला, मोटारवाला अशी वेवसायवाचक नांवां मेळटात. महाराष्ट्रांत वा हेरकडेन आयिल्ल्या दक्षिणी लोकांभितर 'राव' ही पदवी लावपाची पध्दत आसा. उत्तर भारतांत राम, दास, लाल, चंद ह्या नांवाचो आडनांवावरी उपेग जाता. शीख आनी रजपूतांमदीं आडनांवां आसनात. मुसलमानांत शेख, सय्यद, शहा, काझी, फकीर, गुलाम, नदाफ, मुजावर अशीं पंथवाचक वा वेवसायदर्शक आडनांवां वापरतात. खरें म्हळ्यार तांचेभितर आडनांवांची चाल ना.

- ओलिव्हिन्यु गोमीश

## आणीबाणी:

झूज, अंतर्गत घुस्पट, हुंवार, भिरांकूळ रोग अर्थीक मंदी, बंडाळी, विदेशी संकश्टांसारके परिस्थितीक लागून दिसपट्टी जीण विस्कळीत जावंची न्हय, म्हणून शासन जो काळ मेरेन आपल्या खास अधिकाराचो वापर करून शासन करता त्या काळाक आणीबाणी अशें म्हण्टात.

न्यायाधीशांच्या आंतरराष्ट्रीय आयोगान आणीबाणीसंबंदान फुडलीं तत्त्वां मांडल्यांत १. राष्ट्राच्या हिताखातीर आनी एकचाराखातीर गरज उप्रासली तर आणीबाणी घोशीत करपाक जाय. २. आणीबाणीचो काळ गरजे परस चड वेळ वाडोवचो न्हय. ३. मूळ अधिकार आनी हेर स्वतंत्रतायेचेर फाव तितलींच बंधनां आसचीं. ४. आणीबाणीच्या संदर्भांत केल्ले कायदे आनी दिल्ले आदेश हांच्या चवकशीचो अधिकार सादारणपणान न्यायालयाक आसचो.

**आणीबाणीक लागून जावपी लुकसाण:** १. पुराय देशाचें वा राज्याचें लक्ष परिस्थितीक तोंड दिवचेपासत केंद्रीत जाल्ल्यान समाजीक आनी अर्थीक उदरगतीक बाधा येता. २. मुळावे अधिकार आनी देशांतल्या राज्यांच्या स्वायत्ततेचेर बंधनां येतात. ३. न्यायालयाच्या अधिकारांचेर मर्यादा पडटात. ४. विधीमंडळाचो जर कार्यकारी सत्तेचेर शेक उरलोना जाल्यार महत्वाकांक्षी मनशाकडल्यान हुकूमशाय निर्मूपाचो भंय उरता.

भारतीय संविधानांत आणीबाणीचो आस्पाव जाल्लो आसा. राष्ट्रीय आणीबाणी (अनुच्छेद ३५२ ते ३५४, ३५८ ते ३५९), घटकराज्या संबंदी आणीबाणी (अनुच्छेद ३५५ ते ३५७ आनी ३६५), अर्थीक आणीबाणी (अनुच्छेद ३६५) ह्यो तीन तरेच्यो आणीबाणी भारतीय संविधानांत आस्पावल्यात. सन १९८८ त, भारतीय संविधानांत ५९ वी घटनादुरुस्ती केली. तातूंत अंतर्गत बंडाळेक लागून राश्ट्रीय एकचाराक बाधा निर्माण जाल्ल्यान पंजाब राज्यांत आणीबाणी लावपाची तजवीज आसली.

भारतीय संविधानाप्रमाण आणीबाणीची घोशणा करपाचो अधिकार राश्ट्रपतीक आसा. हो अधिकार राश्ट्रपतीक जाय जाल्यार वापरुं येता. ताची न्यायालयीन चवकशी जावंक शकना. हेरकडेन अशी परिस्थिती ना.

आणीबाणीची घोशणा जातकच घटक राज्याचे कायदे करपाचे अधिकार भारतीय संविधानप्रमाण बंद जातात. राज्यांची कार्यकारी सत्ता पुराय नियंत्रणाखाला येता. भारतीय संविधानांत मुळावे अधिकार स्थगीत करपाचो अधिकार वा तेसंबंदी न्यायलयांत जाप मागपासंबंदीची तजवीज स्थगीत करपाचो अधिकार राश्ट्रपतीक आसा. १९७५ त तेन्नाची भारताची पंतप्रधान इंदिरा गांधी हिच्या सुचोवणेवेल्यान राश्ट्रपतीन राश्ट्रीय आणीबाणी जाहीर केल्ली.

**विदेशांतली आणीबाणी:** चडश्या देशांतल्या विधीमंडळाक आणीबाणीच्या काळांत खास अधिकार दिल्यात. इंग्लंडांत सन १९२० वर्साच्या कायद्यान राजाक आणीबाणी घोशीत करपाचो अधिकार आसा. पूण ताका आपले घोशणेक संसद आपोवन मान्यताय मेळोवची पडटा. फ्रांसांत सन १८७८ वर्साच्या कायद्याप्रमाण आणीबाणीची घोशणा विधीमंडळ करूंक शकता. विधीमंडळाचें अधिवेशन चालू नासल्यार अध्यक्ष मंत्रीमंडळाची मान्यताय घेवन अशी घोशणा करूंक शकता. तेखातीर विधीमंडळाची बसका दोन दिसांभितर आपोवची पडटा. विधीमंडळ बरखास्त जाल्ले जाल्यार अध्यक्षाक आणीबाणीची घोशणा करपाचो अधिकार उरना. लॅटीन अमेरिकेंतल्या बऱ्याच देशांनी आणीबाणी चलणूकेत हाडपाचो अधिकार विधीमंडळाक आसा. ऑस्ट्रेलियांत कार्यकारी सत्ता विधीमंडळाच्या तेंक्याबगर वा मर्जेआड कांयच करूंक शकना. अमेरिका आनी कॅनडा ह्या देशांच्या संविधानांत आणीबाणीविशीं तजवीज नां.

- कों. वि. सं. मं.

## आताईद, आंतोनियु जुआंव:

(जल्म: १७७०, सेरूला -साल्वादोर दु मुन्दु; मरण: १८४८).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. धर्मीक शिक्षण घेतल्या उपरांत १८३९ वर्सा गोंयच्या आर्चडायोसिजीचो व्हिकार कापितुलार (Vicar Capitular) म्हूण वेंचून आयलो. १८४४ वर्सा मेरेन ताणें आर्चडायोसिजीचो कारभार चलयलो.

- कों. वि. सं. मं.

## आताईद, फ्रांसिश्कु लुईश गाँझागा द:

(जल्म: १८२५; मरण: १८८१, सेरुला-साल्वादोर दु मुंद).

किरस्तांव धर्मफुडारी. चोडण वाठारांतली सेमिनारी बंद जातकच ताणें १८६० वर्सा बारदेस म्हालांत माँत-द-गिरीं ह्या वाठारांत वसतिगृह आनी शाळा सुरू केली. ताचेखातीर ताणें चाळीस निवासी आनी आठशें अनिवासी विद्यार्थी एकठांय केले. १८७४ वर्सा ताची सुर्वेक दाबूल आनी उपरांत माजगांव (मुंबय) वाठारांत पॅरीश पाद्री म्हूण नेमणूक जाली. ताणें आपल्या मिशनच्या वावरावखीं जायत्या वाट चुकिल्ल्या लोकांक बरी नीत आनी बरी देख दिली. बारदेस म्हालांत थंयचे नगरपालिकेन ताचे यादीक वाचनालय सुरू केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**आदित्य:** वैवस्वत मन्वंतरांतल्या देवांच्या एका पंगडाचें नांव. ऋग्वेदांत ह्या पंगडांत मित्र, अर्यमा, वरूण, भग, दक्ष आनी अंश अश्या स देवांचो आस्पाव जाता. (ऋ. २.२७.१)

त आदित्यास उरवो गभीरा
अदब्धासो दिप्सन्तो भूर्यक्षाः।
अन्तः पश्यन्ति वृजिनोत साधु।
सर्व राजभ्यः परमा चिदन्ति।

(ऋ. २.२७.३)

अर्थः ते आदित्य व्हड, गंभीर, सदांच जैत मेळोवपी, दुस्मानांचो घात करपी, जायत्या दोळ्यांचे आनी बरें वायट पळोवपी. तांकां पयसुल्ल्यो वस्तूय लागसार दिसतात.

धारयन्त आदित्यासो जगत्स्था
देवा विश्वस्य भुवनस्य गोपाः

(ऋ. २.२७.४)

अर्थः ते अदित्य थीर आनी अस्थिर पदार्थांचें धारण करतात आनी सगळ्या भुवनांचें रक्षण करतात.

सत्याच्या योगान तांचें म्हत्व वाडलां. जो तांचें सांगणेंत आसता ताका लागसल्ल्यान वा पयसुल्ल्यान कोणूच मारुंक शकना अशें ऋग्वेदांत म्हळां.

अथर्ववेदांत, आदित्य हे अदिती आनी कश्यप हांचे पूत आनी तांची संख्या आठ आसा अशें सांगलां.

तैत्तिरीय ब्राह्मणांत अंश, भग, धाता, इंद्र, विवस्वान, मित्र, वरुण आनी वर्यमा अशीं तांचीं नांवां आसात. अदितीच्या आठव्या पुताक ऋग्वेदांत आनी शतपथब्राह्मणांत मार्तंड अशें म्हळां. शतपथब्राह्मणांत आदित्याची संख्या बारा आसून ते बारा म्हयन्यांचे निदर्शक आसात अशें म्हळां. तातूंतलो विष्णु हो सगळ्यांत व्हड आदित्य मानतात. भविश्य आनी स्कंद पुराणांत आदित्याच्यो दोन वेगळ्यो नामावळी दिल्यात. भविश्य पुराणांत, अंशुमान, अर्यमा, इंद्र, त्वष्टा, धाता, पर्जन्य, पुषा, भग, वरुण, विवस्वान, आनी विष्णु हीं नांवां आसात. जाल्यार स्कंद पुराणांत लोलार्क, उत्तरार्क, सांबादित्य, द्रुपदादित्य, मयुरखादित्य, अरुणादित्य, वृध्दादित्य, केशवादित्य, विमलादित्य, गंगादित्य, यमादित्य आनी सकोलकादित्य अशीं नांवां आसात.

हे बारा आदित्य बारा म्हयन्यांचेर शेक चलयतात. हांकां साध्य अशेंय नांव आसा. कालरुप घेतिल्लो हो भगवान आदित्य वेगवेगळ्या बारा गणांवांगडा बारा म्हयन्यांचें संचलन करता. हो आदित्य जगभोंवडी करता आसतना चारी वेदांचे ऋषी ताका सुक्तां म्हण्टात. गंधर्व अप्सरा ताचेमुखार नाच करतात. नाग ताचो रथ वयर धरतात. नैर्ऋत हो रथ फाटल्यान धुकळटात. वालखिल्य ताच्या फुडें चलतात. ह्या पुराय पंगडाक 'अदित्यव्यूह' अशें नांव आसा. सूर्याकूय आदित्य म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**आदिनाथः** जैनांचो पयलो तीर्थंकर. ताका ऋषभदेव अशेंय म्हण्टात. अयोध्येच्या नगरांत, इक्ष्वाकू वंशांत, उत्तराषाढा नक्षत्र चलता आसतना ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचें नांव नाभिराज तर आवयचें नांव मेरुदेवी आसलें. ताचो रंग भांगराचो आसलो. ताची उंचाय ५०० धोणवांइतली आसली.

ताणें कैलासपर्वताचेर मोक्ष जोडलो. चक्रवर्ती भरत आनी वीरशिरोमणी बाहुबली हे ताचे दोन पूत आसले. तांणीय व्हड नामना जोडली. आदिनाथाच्या पंचकल्याणिकाच्यो पर्वतिथी अश्यो आसात. गर्भकल्याण आषाढ वद्यद्वितीया, जन्मकल्याण आनी दीक्षाकल्याण चैत्र वद्य नम, केवलज्ञानकल्याण फाल्गुन वद्य एकादशी, मोक्षकल्याणमार्ग वद्य चतुर्दस. ताणें त्या काळांतल्या तत्कालीन समाजाक 'असि' (शस्त्र), 'मषि' (लेखन), कृषि (शेतवड), 'विद्या', 'शिल्प', 'वाणिज्य', ह्या स वेव्हारांचो उपेग करपाचो मार्ग दाखयलो. आदिनाथ आनी महावीर हांणी छेदोपस्थापन नांवाच्या तपाक म्हत्व दिलां. छेदोपस्थापन म्हळ्यार स्वताच्या नशिबांतल्या पातकाचो नाश करपाखातीर प्रायश्चित्त घेवन आत्म्याक थीर संयमांत दवरप.

वैराग्य प्राप्तीउपरांत आदिनाथान राज्याचो त्याग केलो, तपाची दीक्षा घेतली आनी खर तप केलें. केवलज्ञान मेळयतकच ताणें जैन धर्मीयांक उपदेश केलो. आदिनाथाच्या योगान जैनधर्म आनी वैदिक धर्म हांच्याभितल्या वेगवेगळ्या तत्त्वांचो एकवट जाता. वायु, ब्रह्मांड, विष्णु, मार्कंडेय, कूर्म, लिंग, वराह, स्कंद आनी भागवत ह्या वैदिक पुराणांत परमहंस, योगी, जयधारी म्हूण आदिनाथाकडेन बोट दाखयलां.

भागवतांत जे ऋषभदेवाचें वर्णन वर्णिलां. तें आदिनाथाचेंच जावन आसा (५.३.६). ऋषभदेव निमाणे जडोन्मतासारको उक्तो रावपाक लागलो. कोणेय त्रास दिल्यार हो थीर रावतालो.

उदेपूर- अहमदाबाद रस्त्यार ऋषभनाथ नांवाच्या गांवांत ऋषभनाथ म्हळ्यार आदिनाथाचें देवूळ आसा. ह्या देवळांतल्या मूर्तीसंबंदान एक आख्यायिका चलता ती अशीः आदल्याकाळार एक गाय एके थारायिल्ले सुवातेर येवन आपल्या पान्यांतल्यान थंय दूद सोडटाली. ते सुवातेर खणटकच ऋषभनाथाची मूर्ती मेळ्ळी. उपरांत थंय ताचें देवूळ बांदलें. हें थळ जैन लोकांच्या यात्रेची सुवात जावन व्हड नामनेक पावलां. आदिनाथ हो नवनाथांमदलो एक अशेंय मानतात. नेवासे गांवां लागीं मर्मरगिरींत हाचें थळ आसा. हाका वृध्देश्वर वा म्हातारदेव अशेंय म्हण्टात. मत्स्येंद्र, गोरक्ष आनी गहिनी ह्या नाथांच्यो समाधी हांगा आसात.

- कों. वि. सं. मं.

(पूरक नोंदः जैन धर्म)

**आदिपुराण-१:** अठरा उपपुराणांमदलें एक पुराण. हाका आद्यपुराण अशेंय नांव आसा. हें उपपुराण वैष्णव पंथाचें आसा.

सव्या शतमानाच्या अदमासाक हें पुराण रचलां आसूंये अशें म्हण्टात. ह्या ग्रंथाचें हातबरप आयज सांपडना. पूण तातूंतले जायते संदर्भ, उतारे, टीका वा निबंदाच्या रुपान घेतिल्ले दिसतात. ताचेवेल्यान आदिपुराणांतल्या वियशाची कल्पना करूं येता. सादारणपणान फुडल्या विशयाची भासाभास तातूंत केल्याः

चातुर्वर्ण्याच्या लोकांक राबितो करपाखातीर योग्य वाठार, नीत-नेम, लग्नसुवाळ्यावेले विधी, निमाणेसंस्कार, शुध्दीचे उपाय, दान, व्रतां, बरे वायट शकून आनी लक्षणां.

- कों. वि. सं. मं.

**आदिपुराण-२:** जैन धर्माचें एक नामनेचें पुराण. णव्या शतमानाचो मध्य ह्या पुराणाचो काळ मानतात. जैन धर्मांत त्रिषष्टि म्हळ्यार त्रेसठ दादले प्रतिभासंपन्न धर्मप्रवर्तक, ऊंच चारित्र्याचे मानल्यात. हे सगळे 'शलाकापुरुष' म्हूण नामनेक पावल्यात. २४ तीर्थंकर, १२ चक्रवर्ती, ९ वासुदेव, ९ प्रतिवासुदेव, ९ बलदेव वा बलभद्र मेळून वट्ट ६३ शलाकापुरुष जातात. तांच्या जिविताचेर बरयल्ल्या ग्रंथाक श्वेतांबर लोक 'चरित्र' आनी दिगंबर लोक 'पुराण' म्हण्टात. आचार्य जिनसेन हाणें ह्या सगळ्या म्हापुरसांचें चरित्र संस्कृत भाशेंत काव्यान रचपाखातीर 'महापुराण' ग्रंथ बरोवपाक आरंभ केलो.

ग्रंथ सोपोंवचेपयलीं ताका मरण आयलें. गुणभद्र नांवाच्या ताच्या शिश्यान उरिल्लो ग्रंथ पुराय केलो. ह्या ग्रंथाच्या पयल्या भागांत ४८ पर्वां आनी १२,००० श्लोक आसात. तातूंत जैनाचो पयलो तीर्थंकर ऋषभदेव हाच्या जिविताचें चरित्र वर्णिलां. पयल्या भागाच्या लौकिकांत आदिपुराण आनी दुसऱ्या भागाक 'उत्तरपुराण' म्हण्टात. आदिपुराणांतली ४२ पर्वां आनी ४३ व्या पर्वांतले ३ श्लोक मेळून वट्ट १०,३८० श्लोक जिनसेनान रचले. १,६२० श्लोकांची रचना गुणभद्रान केल्या. जिनसेनान रचिल्ल्या आदिपुराणाचो वांटो ८४३ वर्साच्या अदमासाक पुराय जालो.

दिगंबर संप्रदायांतल्या प्रथमानुयोगाचो हो मुखेल ग्रंथ आसून जैन साहित्यांत ताका म्हत्वाची सुवात आसा. जैन लोकांच्यो सगळ्यो कथा, चरित्रां आनी भूगोल ह्या सगळ्या म्हायतीचो कवीन खूब सुंदररितीन आपल्या ग्रंथांत आस्पाव केला. जैन संप्रदायांत सगळ्यांक मान्य अशा तत्वांची म्हायती खंयच्या ना खंयच्या रूपांत ह्या ग्रंथांत करून दिल्या. ह्या उपरांतच्या ग्रंथकारांनी ह्या ग्रंथांतले उतारे 'आर्ष' म्हूण सांगल्यात. हो ग्रंथ महाकाव्याच्या तोलामोलाचो आसा. ओडलायण्यो कथा, म्हौंवाळ भास, वेगवेगळी उदाहरणां, दिश्टावे, सुभाषितां आनी णव रस हांणी हो ग्रंथ पुराय नटला.

- कों. वि. सं. मं.

**आदिमाता:** बायलरुपी ईश्वर. वेगवेगळ्या धर्मांत आनी समाजांत ईश्वर हो बायलेच्या वा दादल्याच्या रुपान कल्पिलेलो आसा. ह्या बायलरूपी ईश्वराक आदिमाता म्हण्टात आनी दादलेरूपी ईश्वराक आदिपिता म्हण्टात. दादलेरुपी ईश्वरापरस मनशाक बायलरुपी ईश्वराची कल्पना पयलीं आयली अशें म्हण्टात. मनीसजल्माक दादलो कारण आसता काय ना हेविशीं आदिमानवांत दुबाव आशिल्लो. त्या काळांत बायल ही जननी आसा हें कळिल्ल्यान तिचेविशीं आदर आनी ममता ह्यो भावना तयार जाल्यो. आवयभक्तीचें व्हडपण आदिमातचे भक्तींत जावपाची प्रक्रिया, बापायविशीं जाण नाशिल्ल्या काळांत म्हणजेच मातृसत्ताक समाजसंस्थेत जाली.

समेस्त आदिम, अर्दसंस्कृत आनी पूर्णसंस्कृत संवसारांतल्या धर्मांनी प्रजा, मोनजात आनी धान्य हांचे समृद्धीपासत जाय आशिल्ले सुफलताविधी मेळटात. योनी, थानां आनी लिंग ही सुफलता विधिंतलीं म्हत्वाचीं प्रतिकां आसात अशें पूर्विल्ल्या आनी आदिम संस्कृतायेच्या अध्ययनान सिध्द जालां. देखून जननशक्तिचें प्रतीक म्हळ्यार आदिमाता मानतात. धर्मशास्त्रांत शिवाची अर्धांगी पार्वती हिचो उल्लेख 'शक्ती' ह्या नांवान केल्लो दिसता आनी देवीपुजेच्या संप्रदायाक 'शाक्तपंथ' म्हण्टात.

दादलेरुपी ईश्वराचे भक्तीक युयुत्सू समाजांत म्हत्व आयलें अशें म्हण्टात. ह्या समाजांत परतून परतून झुजाची गरज लागताली. वैदिक आर्यांचो समाज हो झुजपी आनी झुजमोगी समाज आशिल्लो ही गजाल इंद्र ह्या युध्दरत, सशस्त्र आनी बुदवंत देवावेल्यान कळून येता. पूर्विल्ल्या ग्रीक समाजांत झ्यूस हो देव पराक्रमी आशिल्ल्यान ताका सगळ्या देवांपरस व्हड मानतात, कारण तो पराक्रमी आशिल्लो. वैदिक वाङ्मयांत देवी वा आदिमाता हिचें म्हत्व मेळना पूण हिंदूच्या धर्मीक कार्यांत, देवाच्या उत्सवांत देवीचें म्हत्व दिसून येता. तशेंच ज्या वाठारांत थंयच्या समाजाक झुजाची केन्नाच गरज उप्रासली ना थंय देवीक म्हत्व आशिल्लें. ही देवी फुडें देवाक फाटल्यान घालून झुजांत गरज भासतकच स्वता झुजाची देवी जाली. मार्कंडेय पुराणांत दुर्गा ही झुजदेवी कशी जाली हें 'सप्तशती' प्रकरणांत सांगलां. संवसारांतल्या कितल्याशाच क्रिस्ताआदल्या धर्मांत आनी समाजांत आदिमातेची पुजा करतात. ॲसिरियांत 'इश्तार' हिका सगळ्या देवांची जननी म्हळ्यार आदिमाता मानतात.

इजिप्त राज्यांतली इझीस, फिनिशियांतली ॲस्टोरेथ अथीना, ॲफ्रोडाइटी, डिमीटर ह्यो ग्रीक देवता, तशेंच सिबिल, मिनर्व्हा, व्हीनस आदी रोमन देवींची नामना आसा. अमेरिकेंतल्या मेक्सिको हांगा ॲझटेक आनी माया संस्कृतायेंत आदिमातेची पूजा करपाची चाल आसा. क्रिस्ताची आवय मारी ही क्रिस्ताआदल्या संस्कृतायेंतल्या सगळ्या देवांचे आवयचें रुप आसा. प्रॉटेस्टंट पंथावांगडाच हेर पूर्विल्ल्या खिस्त पंथात तिका खूब म्हत्व आसा. क्रिस्ताचो बापूय जोसेफ हाच्या संबंदाशिवाय मेरीपसून क्रिस्ताचो जल्म जालो. हे कथेवेल्यान क्रिस्ताआदीं काळांत तिका आदिमातेचें स्वरूप प्राप्त जालें हे कळटा.

भारतांत आदिमातेची वा देवीची पूजा वेदपूर्व काळासावन चलत आयल्या. मोहेंजोदडो आनी हडप्पा ह्या शारांनी जाल्ल्या उत्खननांत देवीचीं जायतीं प्रतीकां मेळ्ळ्यांत. ऋग्वेद ह्या पूर्विल्ल्या ग्रंथांत दादलेरुपी देवाची स्तोत्रां चड आसलीं तरी सगळ्या देवांचीं आवय म्हूण अदितीचो बरेच कडेन उल्लेख मेळटा. वेदोत्तर काळांत भारतांत हिंदू धर्मांत, काली, लक्ष्मी, सरस्वती, दुर्गा, पार्वती, अंबा, भवानी, जगदंबा आदी देवींची आदिमाता म्हूण पूजा करतात. ही पूजा चडशी भारतांतल्या सगळ्या वाठारांत कितल्याशाच वर्सांपयलींसावन चलत आयल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**आदिलशाय:** (१४८९-१६८६) पंदराव्या शेंकड्याचे अखेरेक दक्षिण भारतांत निर्माण जाल्ली एक मुसलमानी राजसत्ता. त्या काळावयले बळीश्ट अशे बहामनी सत्तेची ताकद उणी जाल्याचो फायदो घेवन त्याच राज्यांतलो विजापूरचो सुभेदार यूसुफ आदिलखान १४८९ त स्वतंत्र जालो. बहामनी सत्ता तेन्ना उत्तर मंडूसावन दक्षिणेक रायचूर मेरेन आनी उदेंतेक भोंगीर सावन अस्तंतेक दाबोळीमेरेन चलताली. ताणेंच आदिलशाय घराण्याची थापणूक केली. सुमार दोनशीं वर्सां हे सत्तेचो शेक दक्षिण भारतांत चलतालो. ह्या काळांत यूसुफ आदिलखान (१४८९-१५१०), इस्मायल आदिलशहा (१५१०-१५३५), इब्राहिम आदिलशहा (१५३५-१५५७), पयलो अली आदिलशहा (१५५७-१५८०), दुसरो इब्राहिम आदिलशहा (१५८०-१६२७), मुहंमद आदिलशहा (१६२७-१६५६), दुसरो अली आदिलशहा (१६५६-१६७२), आनी दुसरो शिकंदर आदिलशहा (१६७२-१६८६) अशे सुलतान जावन गेले.

यूसुफ आदिलखान हुशार, कर्तबगार आनी सहिष्णू आशिल्लो. इस्मायल आदिलशहाच्या कारकीर्दींत बऱ्योच लडायो आनी कट कारस्थानां जालीं. ह्या दोनूय पयल्या सुलतानांच्यो राजवटी आदिलशाय सत्तेची बुनयाद घालपाखातीर खर्च जाल्यो. आपली सत्ता बरेभशेन चलोवचेखातीर तांकां बहामनी राज्यांतल्या अमीर बरिदावांगडा झगडचें पडलें. यूसुफान विजयनगरच्या राजावांगडा कबलात करून बरिदाचेर जैत मेळयलें. ताचे उपरांत विजयनगरच्या राजान तांचेर धुरयो घाल्ल्यो त्यो यूसुफान बरेतरेन परतायल्यो.

१५१० त यूसुफाकडल्यान गोंय घेवन पोर्तुगेजांनी कुडाळसावन चित्ताकूलमेरेनच्या वाठाराचेर जैत मेळयलें. इस्मायल आदिलशहान १५२४ त पोर्तुगेजांकडल्यान साश्टी, बार्देश आनी त्या भोंवतणचो वाठार पर्थून जिखून घेतलो. इब्राहिम आनी पयलो अली आदिलशहा हांच्यामजगतीं झुजां जायत आशिल्लीं. इब्राहिमाचो दुस्मान शाहजादा अब्दुल्ला हो पोर्तुगेजांच्या आलाशिऱ्याक गेलो (१५४३). ताका पोर्तुगेजांनी पालव दिवचो न्हय देखून इब्राहिमान साश्टी आनी बार्देश हे प्रांत पोर्तुगेजांक दिले. १५७०-७१ त अली आदिलशहान मुर्तजा निजामशहा आनी कालिकतचो झामोरीन हांच्यावांगडा बरेपण करून गोंय आनी चौल जिखपाचो यत्न केलो पूण ताका जैत मेळ्ळें ना.

आदिलशाही सुलतानांक निजामशहा, कुतुबशहा, बरिदशहा आनी विजयनगरच्या सत्तेवांगडा सदांच झगडचें पडलें. विजयनगरच्या राजान जिखून घेतिल्ले रायचूर, मुद्गल हे प्रांत इस्मायलान बऱ्याच फावट यत्न करून जिखून घेतले. अमीर बरिदान निजामशहाच्या पालवान विजापूराचेर जैत मेळोवपाचो यत्न केलो, पूण इस्मायल आनी इब्राहिम आदिलशहानीं ताचो पराभव करून सोलापूर जिखून घेतलें. अमीर

बरिदाक मरण आयल्या उपरांत आदिलशहांची ताच्यावांगडा जावपी झुजां सोंपलीं.

आदिलशाय आनी निजामशाय सुलतानांमदीं १५३१ ते १५९४ मेरेन राज्य वाडोवचेखातीर लडायो जाताल्यो. निजामशहान विजयनगरचो रामराजा आनी कुतुबीकुत सुलतान हांच्या पालवान १५४३ त विजापूरच्या वाठाराचेर घुरी घाली. तेन्ना आदिलशाय प्रधान आसदखान हाणें विजयनगरच्या राजावांगडा कबलात केली. आसदखानाक मरण आयल्याउपरांत, १५४९ त निजामशहान विजयनगरच्या रामराजावांगडा कबलात करून विजापूरच्या वाठारांचेर घुरयो घाल्यो. ताणें रामराजाखातीर रायचूर आनी मुद्गल आनी स्वताखातीर कल्याणी आनी सोलापूर हीं थळां जिखून घेतलीं.

अली आदिलशहान विजयनगरच्या रामराजा वांगडा पर्थून कबलात करून निजामशहाच्यो घुरयो आळाबंदाक हाडल्यो. विजयनगर राज्याची शक्त वाडली आनी आदिलशहा आनी तांच्यामदीं संबंद इबाडूंक लागले. १५६४ त आदिलशाये वांगडा संबंद सुदारचेखातीर हुसेन निजामशहान आपली धूव चांदबिबी हिचें लग्न पयलो अली आदिलशहा हाच्यावांगडा केलें आनी सोलापूरचो किल्लो ताका दिलो. उपरांत आदिलशहा, निजामशहा, इब्राहिम कुतुबशहा आनी अली बरिद एकठांय येवन तांणी १५६५ त तालिकोटचे लडायेंत विजयनगरचें राज्य नश्ट केलें.

निजामशहा आनी आदिलशहा हांच्यामदली इश्टागत चड तेंप तिगली ना. तांच्यामदीं पर्थून सर्त लागली. मुर्तजा निजामशहा हाच्या सान वयाचो फायदो घेवन अली आदिलशहान निजामशहाक मेळिल्लो पयलींच्या विजयनगर राज्यांतले वाठार जिखून घेतले. ह्या वेळार विजापूर राज्याची शीम उत्तरेवटेन नीरा, अक्कलकोट, नळदुर्ग, कल्याणमेरेन, कांय वाठार सोडल्यार अस्तंतेक बाणकोटचे दक्षिणेवटेंतले दर्यादेगेमेरेन, दक्षिणेक तुंगभद्रा न्हंय मेरेन आनी उदेंतेक रायचूर, यादगीर, बिदरमेरेन आशिल्ली.

१५०८ त अली आदिलशहाचो खून जालो आनी ताचो पुतणयो दुसरो इब्राहिम आदिलशहा राजा जालो. तो सान आशिल्ल्यान चांदबिबी राज्यकारभार पळोवंक लागली. तिका तिच्या दिवाणाचो पालव मेळटालो. राज्यसत्तेच्या लोभान दिवाणान चांदबिबीक अटक केली, पूण रोखडीच तिची सुटका जाली. विजापूर दरबारांत दक्षिण आनी उत्तर वाठारांतल्या लोकांमदीं सत्तेखातीर सर्त लागली. हाचो फायदो घेवन मुर्तजा निजामशहान आनी कुतुबशहान विजापूरचेर घुरयो घाल्यो. इब्राहिम आदिलशहाची भयण मुर्तजा निजामशहाच्या पूताक लग्नावरवीं दिवन दोन घराण्यांमदीं पर्थून इश्टागत करपाचे यत्न जाले. हे इश्टागतीचे संबंद रोखडेच इबाडले. इब्राहिमान निजामशहाच्या वाठारांचेर घुरयो घालून खंडणी वसूल केली. १६१९ त ताणें बरिदशहाचेर घुरी घालून ताचो सगळो वाठार जिखून घेतलो.

आदिलशाय सुलतानांनी १५९४ ते १६३६ मेरेनच्या काळांत निजामशायआड आपली दुस्मानकाय विसरून मोगलांनी ताचेर केल्ले घुरयेआड ताका पालव दिलो. १६३७ त निजामशाय सोंपली.

इब्राहिमाउपरांत राजा जाल्ल्या अहंमदशहा हाचे मोगल बादशहा शहाजहान हाच्यावांगडा संबंद इबाडले. १६३१, १६३२ आनी १६३५ ह्या वर्सांनी शहाजहानान खंयचे ना खंयचे निमीत्त काडून विजापूराचेर घुरयो घाल्यो. १६३६ त दोगांयमदीं कबलात जाली. हे कबलातीवरवीं कृष्णा न्हंयचे पलतडचो वाठार मोगलांचो आनी आलतडचो वाठार आदिलशहाचो अशी वांटणी जाली. मोगलांक वर्साक २० लाख होन खंडणी दिवपाचें आदिलशहान कबूल केलें.

अली आदिलशहाच्या काळांत आदिलशाय सत्तेचें बळगें उणें जावंक लागलें. मोगल आनी मराठ्यांची ताकद वाडूंक लागली. औरंगजेबान आदिलशायेवांगडा जाल्ली पयलींची कबलात मोडून बिदर, कल्याणी आनी गुलबर्गाचेर जैत मेळयलें. १६६६ त मोगल सरदार जयसिंग हाणें विजापूराचेर घुरी घाली.

शिवाजीन आपल्या मराठ्यांक घेवन आदिलशहाचे बरेच वाठार जिखून घेवंक सुरवात केल्ली. शिवाजीक आळाबंदा हाडचेखातीर आदिलशहान बरेच यत्न केले, पूण ते फळादीक जाले नात. अफजलखान आनी सिद्दी जोहारसारके आदिलशहाचे खडेगांठ सरदार, शिवाजीआड अपेशी जाले. १६७५ मेरेन शिवाजीवांगडा आदिलशायेचीं झूजां चालूच उरलीं. शिकंदरशहाच्या कारकिर्दींत मोगल आनी शिवाजीन आदिलशायेचेर घुरयो घालून आपापल्या राज्यांचो विस्तार केलो. मोगल दक्षिणेवटेन राज्यविस्तार करतात हें पळोवन शिवाजीन आदिलशहावांगडा आनी कुतुबशहावांगडा १६७५-७६ त कबलाती केल्यो. १६८३ सावन औरंगजेबान पुराय बळान आदिलशहाचेर घुरी घाली. संभाजी आनी कुतुबशहा हांणी शिकंदर आलिदशहाक बरेच पालव दिलो, पूण १६८६ त औरंगजेबान आदिलशाय काबार केली.

आदिलशाय राज्यपध्दत सोंपी आशिल्ली. सुलतान सगळ्यांत चड बळीश्ट आसतालो. ताचे उपरांत सगळ्यांत व्हडलो अधिकारी वकील (वजीर) हो शासनाचेर नियंत्रण दवरतालो. ताच्या हातासकयल मीर जुमला आनी युसत फिऊल मुल्क हे अधिकारी आसताले. १५६५ त पयलो अली आदिलशहा हाचे कारकिर्दींत ताचो वजीर अफजलखान शिराझी हाणें खातें वांटप करून दर खात्याचेर नामनेचे अधिकारी नेमले. ही राज्यपध्दत फुडें तशीच उरली. मुहंमद आदिलशहान राज्यकारभाराविशीं नेम बरोवन दवरले.

आदिलशाय सरदारांतल्या कांय जाणांनी शिया आनी कांय जाणांनी सुन्नी पंथ आपणायल्लो. हिंदूंक आदिलशायेंत मानाची सुवात आसताली. बरेच हिंदू दरबारांत उंचेल्या अधिकाराचे सुवातेर आशिल्ले. दरबारांतलें बरेंच कामकाज मराठींतल्यान चलतालें. आदिलशाय सरदारांनी आनी सुलतानांनी बऱ्याच थळांचेर व्हड बांदकामां केल्लीं. परांडा, मिरज, सोलापूर, मुद्गल हेभायर हेर बरेचकडेन तांणी किल्ले बांदले. गोंयचें आयचें सचिवालय हो पयलींचो आदिलशहाचो राजवाडो आशिल्लो. यूसुफ आदिलशहाच्या काळांत हो राजवाडो बांदून पुराय जाल्लो. आदिलशाय राजवटीच्या काळांतले बरेच लेख गोंय (ओल्ड गोवा), गिरवडें (बारदेस), वरगांव, नार्वे (दिवचल), हडकोण (फोंडें) हांगा सांपडल्यात. हे लेख अरबी फारशी, संस्कृत आनी मराठी भासांतल्यान आसात.

संगीत, चित्रकला, वास्तुकला ह्या मळांचेरुय तांणी वावर केलो. गगनमहाल, जुम्मा मशीद, शहाबुरुज, सातमजली माळी, आनंदमहाल, आरसेमहाल, गोलघुमट ह्या सारक्यो सोबीत वास्तू आदिलशायच्या काळांत बांदिल्ल्यो. फोंडें तालुक्यांत आशिल्ली सफ्फा मशीद ही १५६० त इब्राहिम आदिलशहान बांदून घेतिल्ली. पोर्तुगेजांचो शेक गोंयचेर गाजचेपयलीं आदिलशाय राजवट गोंयांत कांय वाठारांनी चलताली.

- कों. वि. सं. मं.

**आदिवासी:** रान आनी दोंगर हांचो आलाशिरो घेवन, नागरी संस्कृतायेपरस पयस आनी अलिप्त राविल्ल्या संबंदीत प्रदेशांतल्या मूळ नागरिकांक 'आदिवासी' अशें सादारणपणान म्हण्टात.

इंग्लीश भाशेंत 'आदिवासी' ह्या उतरांक ॲबॉरिजिनझ्' म्हण्टात. तेभायर 'प्रिमिटिव्ह' म्हळ्यार उदरगत घडोवपाक शिकूनाशिल्ली जमात, तर 'सॅव्हेज' म्हळ्यार मागाशिल्ले वा रानवट लोक ह्या उतरांनीय ह्या जमातींक वळखतात. तेभायर वयल्या इंग्लीश उतरांनी तांचें मागशिल्लेंपण, अज्ञान आनी भोळो सभावय नदरेंत येता.

भारतांत पूर्विल्ल्या काळांत प्रोटो ऑस्ट्रलॉइड, मंगोलाइड आनी नेग्रिटो अशें विंगडविंगड मानववंश रावताले. आयच्या 'आदिवासी'ची उत्पत्ती ह्या वंशकुळयांसावन जाली, अशें मानतात.

भारतीय स्मृतिग्रंथांत आदिवासी जमातीचो उल्लेख आयला. रामायणांत किरात, निषाद, शबर हांचो तर महाभारतांत पुलिंद आनी कित ह्या हिमालयांतल्या आदिवासींचो उल्लेख आयला.

भारतात वन्य आदिवासींचे वाठार फुडल्या भूगोलीक विभागांत

आस्पावतातः

१. हिमालयाक लागून आशिल्लो वाठार, भारताच्या उदेंत शीमेवयली पर्वतांवळ तशेंच मध्य खासिया आनी गारो दोंगुल्ल्यो.

२. नर्मदा आनी गोदावरी हांचेमदलो वाठार, दक्षिण आनी उत्तर भारताक वेगळावपी पर्वतावळ; उदेंतेक संताळ परगणा, दक्षिणेक हैद्राबाद (आंध्र), अस्तंतेक गुजरात, उत्तरेक राजस्थान ह्या चार शीमांभितर हो वाठार आस्पावता.

३. दक्षिणेक वायनाडसावन कन्याकुमारी मेरेन पातळिल्लो अस्तंत घाटांतलो वाठार.

४. अंदमान-निकोबार हे जुंवे आनी भारताचो हेर भाग.

आफ्रिका खंडा उपरांत, भारतांत आदिवासी लोकांचो आंकडो सगळ्यांत चड आसा.

भारतांतल्यो विंगड विंगड आदिवासी जमाती फुडलेतरेन आसातः

**आंध्रप्रदेशः** चेंचू, कोया, गदबा, जतपुस, कोंडा-दोरा, कोंडा-कापुस, कोंडा-रेड्डी, खोंड, सुगली (लंबाडी), येनाडी, येरू, कुल, भिल, गोंड, डोंगरी रेड्डी, कोलाम्, वाल्मिकी, परधान (बोगता).

**आसामः** गारो, खासी, कुकी, मिझो, मिकिरलाग, अबोर, डफ्ला, मिश्म, अप्तनि, सिंग्फो (काचरी).

**बिहारः** असुर, बैगा, बंजारे, बिरहोर, गोंड, हो, खाडिया, खोंड, मुंडा, कोरवा, उराँव, संताळ, माल पहारिआ, भूमिज, सवरिया, पहाडिया (मुसाहर, थारु).

**महाराष्ट्र आनी गुजरातः** भिल, गोंड (हातूंत अगारिया, असुर, बिसनहॉर्न, कोया हांचो आस्पाव जाता), वारली, कोळी, ठकूर, दुबळा, बैगा, गदवा, कमार, खाडिया, खोंड, कोल, कोलाम् कोरकु, कोरवा, मुंडा, उराँव, परधान आनी वाघेरी.

**केरळः** कदर, इरुल, मुथुवन, कनिक्कर मलंकुरवन, मलयरयन, मलवेतन, मलयन (मालंपटारम् येरवा), मन्नन, उल्लतन, उरळी, विशवन, अरनदन, कुट्टुनैकन, कोरग, कोत, कुरिचियन, कुरूमन, पनियन, पुलयन, मालसर, कुरूंब.

**मध्यप्रदेशः** कोरल, भिल, बैगा, गदबां, गोंड, खोंड, कोल, कोलम्, उराँव, परधान.

**मद्रासः** तोड, कदर, इरुल, कोत, अदियन, अरनदन, कट्टुनैकन, कोरग, कुरिचियम, मालसर, कुरूमन, मुयुवन, पसियन, पुलयन, मलयाली, कुरूंब, एरवल्लन, कनिक्कर, मन्नन, पलियन, उरळी, विशवन (हळबा).

**म्हैसूर (कर्नाटक)**: गौदलु, हक्विपिक्वि, इरुलिग (बेरड, सोलेगा), जेतु कुरुब, मलैकुडि, भिल, गोंड, तोड, वारली, चेंचू, कोया, अरनदन, येराव, होलेय, कोरम.

**ओरिसाः** बैगा, बंजारे, बिरहोर, बोंदो, चेंचू, गदबा, गोंड, हो, जतपुस, जुआंग, खडिया, कोल, खोंड, कोया, उराँव, संताळ, सवरा (पोरजा).

**पंजाबः** गद्दि, स्वंगल, भोट.

**राजस्थानः** भिल, गरासिया, दुबळा, गोंड, कोरकु, कोळी, कातकरी, वारली, पारधी, सेहरिया.

**अस्तंत बंगालः** हो, कोल, मुंडा, उराँव, भूमिज, संताळ, गारो, लेपचा, असुर, बैगा, बंजारे, गोंड, बिरहोर, खोंड, कोरवा, लोहार.

**हिमाचल प्रदेशः** गद्दि, गुर्जर, लहौल, लांब, पगवल.

**मणिपुरः** अंगामी, मिझो, कोम, पैते, पुरुम, सेमा.

**त्रिपुराः** लुशाई, मग, कुकि, हलम, खासी, भुतिया, मुंडा, संताळ, भिल, जमतिया, रिआंग आनी उच्छै.

**वर्गीकरणः** मानववंश शास्त्रज्ञांनी आनी समाजीक वावुरप्यांनी भारतांत सद्या अस्तित्वांत आशिल्ल्या आदिवासी जमातींचें वर्गीकरण फुडलेतरेन केलांः

१ **वन्य समाजः** (ट्रायबल कम्युनिटीज्) दाट रानां, दोंगर-देगणां सारक्या वाठारांनी आपल्या मूळ जाग्यार राबितो करून रावपी लोक. हे लोक आपली आदीकाळासावन चलत आयिल्ल्या जीवनक्रमासारकीच जीण जियेतात.

२. **अर्धवन्यसमाजः** (सेमीट्रायबल कम्यूनिटीज्) गांवगिन्या वाठारांत वा, गांवालागसार येवन राविल्ल्यो आदिवासी जमाती. ह्यो जमाती शेती सारके वेवसाय करतात.

३. **संस्कारित वन्य जमातीः** (कल्चर्ड ट्रायबल कम्युनिटीज्) ज्यो शारां सारक्या सुदारिल्ल्या वाठारांत वचून, शारांतल्या सुदारिल्ल्या धंदो-वेवसायांत पडल्यात त्यो आदिवासी जमाती ह्या वर्गांत मोडटात. हांचेर आर्विल्ल्या जिवितावे संस्कारय जाल्ले आसतात.

४. **विलीन जमातीः** हिंदू भौसाभितर पुराय तरेन आस्पावन घेतिल्ल्यो आदिवासी जमाती ह्या वर्गांत मोडटात.

**सादारण समाजः** भारतांतल्या आदिवासी जमातींत 'कुटुंब' हो मुखेल घटक. पितृसत्ताक कुटुंब पध्दत चडशा जमातींनी दिश्टी पडटा. आसामांतल्या 'खासी' 'गारो' जमातींत मातृसत्ताक कुटुंबपध्दत चलता. जायत्यो आदिवासी जमाती, स्वतंत्र उप-जमातींत वांटिल्ल्यो आसात. ह्यो उप-जमाती अंतर्विवाही आसतात. कुटुंब, कूळ, सकुलक, अर्धक, गांव, नात्यांभितल्ले संबंद हे आदिवासींच्या समाजीक संघटनेचे म्हत्वाचे घटक. आदिवासीचे सगळे रितीरिवाज जल्म, लग्न आनी मरण ह्या तीन म्हत्वाच्या अवस्थांकडेन संबंदीत आसतात.

**बायलांची सुवातः** मातृसत्ताक कुटुंबांत बायलेचो पांवडो खूब ऊंच आसता. हॉबहाउस हाच्या मतान गोरवां-म्हसरां सारकीं जनावरां पोसपी जमातींत ७८ टक्के, तर शेती सारके वेवसाय करपी जमातींत ७३ टक्के बायलांचो पांवडो खूब सकल आसता. कादर, मलपतरम, पल्लियन, इरूला, पणियन, चेंचू आनी अंदमान-पिग्मी जमातींत दादल्या-बायलांचो पांवडो सारको आसता. पितृसत्ताक कुटुंबांत दादल्याचो बायलांचेर शेक चलता. ह्या कुटुंबांत बायलांचेर कडक बंधनां आसतात. 'तोडा' बायलांक बाळंतपण, भश्टे जाल्लप सारकिल्या वेळार धर्मीक बंधनां पाळचीं पडटात. गोंड बायलेक लग्नापयलीं लैंगिक मेकळेंपण आसता. लग्न जावपाविशीं तशेंच सोडचीठ घेवपाविशीं गोंड बायलेक पुराय मेकळीक आसता. थारु जमातींत दादल्याचेर बायलेचो पुराय ताबो आसता.

**भासः** भारतांतल्या आदिवासींची भास खास करून द्राविडी आनी ऑस्ट्रो-आशियाई भाशावर्गांत मोडटा. हिमालयाचे दक्षिणेक रावपी कांय आदिवासी सिनो-तिबेटन भाशावर्गांतली भास उलयतात. सगळ्या आदिवासी भाशांभितर 'गोंडी' ही मुखेल भास जावन आसा. ही भास सुमार २० लाख लोक उलयतात. तमिळ भाशेकडेन संबंदीत आशिल्ली कुरूख ही उराँव आदिवासीची भाशा आसा. छोटानागपूर वाठारांत मुंडा भाशा आनी तिचे बोली-भाशेंत वेव्हार चलतात. लिखित बरपावळीची परंपरा नाशिल्ल्यान, तशेंच आदिवासींचे पंगड एकामेकांसावन पयस राविल्ल्यान आदिवासींची भाशा समजप कठीण.

भारतांतल्या आर्विल्ल्या भाशांचो संपर्क आयिल्ल्यान आदिवासी भाशांचेर बरोच परिणाम जाला. मुंडारी जमातीची बोली 'आता ना जावपाक पावल्या. मणिपूरच्या आदिवासींनी बंगाली लेखन पध्दत आपणायल्या. खासी, संताळी भासांक कलकत्ता विद्यापीठान दुसऱ्या पांवड्याची भास म्हूण मान्यताय दिल्या. नागा जमातींतल्या कांय बोली-भासांची किरिस्तांव मिशनऱ्यांनी लिपी घडयल्या.

**भेसः** आदिवासी कपडे खूब कमी वापरतात. बोंडो आदिवासी चडशे नागडेच रावतात. छतिसगडचे आदिवासी कमराभोंवतणी कपड्याची एक पट्टी बांदतात. परिया आदिवासींत बायलो दंडाचेर गोंदोवन घेतात, हिंदू वरीच आदिवासी लग्नांत कुकूम लायतात. हो कुकूम न्हवऱ्यान व्हंकलेक लावपाचो आसता. नागा आदिवासींत जायत्या जाणांनी किरिस्तांव धर्म आपणायला, त्या वांगडा भेसय बदलला. कोंड जमात कमराक केळीचीं पानां गुठ्ळायतात.

**खाण-जेवण:** आदिवासी लोक दिसांतल्यान दोन फावट जेवतात. पयलें जेवण सकाळच्या पयल्या प्रहराउपरांत तर दुसरें जेवण सूर्य अस्ताक वतकच घेतात. दोंगरी भात आनी कड्डण हीं तांचीं मुखेल अन्नां जावन आसात. तेभायर कंदमुळां, दाळ, मको, महुआ आनी चिंच ह्यो वस्तू आदिवासी खातात. आदिवासी सोंशे, चानयो, वागोळीं, हुंदीर, माकड, गाय ही जनावरां खातात. सांजवेळचें कामावेल्यान परततकच ताडी पितात.

**देव-धर्म:** आदिवासीचो मूळ धर्म सैमाचेर आदारिल्लो आसा. तांच्या धर्मकल्पनांत जाडप्राणवाद, पूर्वजपूजा, मृतात्मे, जीवात्मे, प्रेतात्मे वा भूतात्मे हांचो आस्पाव जाता. दोंगर, न्हंयो, झाडां हातूंत जीवात्मे रावतात, असो कमार आदिवासींचो भावार्थ आसा. पीक-पाणी, गोरवां-म्हसरां हांकां राखपी आनी पोसपी जीवात्मे आसतात अशें कांय जमाती मानतात. मुंडा, हो आनी छोटानागपूर वाठारांतले आदिवासी आतिमानवी शक्तीक 'बोंगा' म्हण्टात. मळब आनी धर्तरी हें मनशाच्या वेव्हारांत मदीं पडनात अशी समजणी आशिल्ल्यान तांची खास पूजा अर्चा करप जायना. सपाट वाठारांत रावपी आदिवासी थळाव्या देवां भायर हिंदूचे राम, कृष्ण, हनुमान, गणपती आनी महादेव ह्या देवांक भजतात. फातर, पाखां, हाडां, मणी ह्यो वस्तू लेगीत सजीव आसून तातूंत गूढ शक्ती रावता अशें तें समजतात. दुश्ट शक्तींसारक्या कांय सौम्य तशेंच उपेगी शक्तींक आदिवासी मानतात. वनस्पत, धर्तरी, सूर्य, चंद्र, गिरे हांचीय ते पूजा करतात.

**अंधश्रध्दा:** भारतांतले सगळे आदिवासी जादूटोण्याचेर विस्वास दवरतात. फलप्राप्तीखातीर विंगड विंगड मंत्र आनी मंत्रायिल्ल्या वस्तूंचो वापर जाता. दर एका आदिवासी जमातींत मंत्रतंत्र करपी मांत्रिक आसतात. तांकां बैगा, भगत, गूनी ह्यासारक्या वेगवेगळया नांवांनी वळखतात. हे मांत्रिक स्वताच्या मंत्रसामर्थ्याचेर आनी जडीबूटींवरवीं कसलोय रोग आळाबंदा हाडटात, असो समज आसा. मनशाक कसलीय बाधा जाल्यार चडशे फावट कोंब्याचो बळी दितात. वागापसून कसलोय त्रास जाल्यार मंत्रायल्ले फातर व्हरून गांवचे शीमेर हुमकळायतात. गांवांत रोगाची धाम आयल्यार मंत्राच्या बळार त्या रोगाक वाजयत-गाजयत गांवचे शीमेर हाडून सोडपाची चाल आदिवासीभितर आसा. कांय जमातींत कौल लावपाखातीर सुपांत धान्य घेवन मंत्र म्हण्टात आनी तांचें ल्हान ल्हान वांटे घालून तातूंतले कण मेजतात. ह्या कणांच्या आंकड्यांचेर बरो-वायट निश्कर्श काडटात. सैमाच्यो लहरी शक्ती आळाबंदा हाडपाक, तशेंच त्या शक्तींपसून बरें कार्य सादोवपाक आदिवासी भगत, पुरोयत, देवर्शिचो सल्लो घेतात आनी तांचेकडल्यान उपाय-उपचार करतात.

**लग्नप्रथा:** आदिवासी समाजांत वेगवेगळयो लग्नाच्यो चाली आसात. त्यो अशो:

**१. राक्षसविवाह वा जबरीविवाह:** हो सगळ्यांत पूर्विल्लो लग्न-प्रकार. केरळांत मन्नान आनी मुथुवन जमातींत ही पध्दत चलता. लग्न थारतकच न्हवरो आपले व्हंकलेक रानांत घेवन वता. मन्नान जमातींत जर एकाद्र्या तरणाट्यालें मन एकाद्रे चलयेर बसलें आनी ते चलयेन ताचेकडेन लग्न जावप न्हंयकारलें, तर तो तरणाटो तिका घेवन रानांत पळटा. तो तिचे वांगडा कांय काळ रानांत सारता. उपरांत दोगांयचीं सोयरीं-धायरीं तांकां सोदून हाडून लग्न लावन दितात. खारिया, बिरहोर जमातींत चलो आवडटे चलयेक एकांतांत गांठून तेलहळद लायता. लग्न-संबंदाची ती मुळावी कुरू मानतात. कांय जमातींत दुसरे जमातीच्या वसतीचेर हल्ले करून चलयांक व्हरपाची पध्दत आसा.

**२. सेवाविवाह:** व्हंकलेच्या बापायगेर कांय काळ चाकरी करून, ते चाकरे बदला चली (व्हंकल) मेळवपाची चाल मन्नान, बैगा, गोंड, पलियन जमातींत आसा. हे पध्दतीक 'सेवाविवाह' म्हण्टात. गरीबी आनी दारिद्र्याक लागून चलयेखातीर पयशे दिवप चल्याक शक्य जायना तेन्ना ते वयली पध्दत आपणायतात.

**३. क्रयविवाह:** कांय जमातींत चलयेचें मोल चड आशिल्ल्यान चले-चलयांचीं लग्नां जावपाक आडखळी येतात. अशा वेळार धाडशी तरणाटे जबरेन लग्न जावपाची 'राक्षसविवाह' ही पध्दत आपणायतात.

**४. सोटे-लोटे लग्न:** हे पध्दतींत एकामेकांच्यो भयणी एकामेकांक म्हळ्यार अदलाबदल करून दितात. दक्षिणेंतल्या जायत्या आदिवासी जमातींत ही चाल आसा. वयले पध्दतीक लागून जाका भयण ना ताचें लग्न जावप कठीण जाता. उरळी जमातींत ही चाल खूब कडक आसा. मामाचे चलयेकडेन लग्न जातात. आते भयणीकडेन लग्न जातात पूण तें प्रमाण साप्प उणे आसता.

नागा, गोंड, बैगा ह्या जमातींनी दादलो एकापरस चड बायलो करता. मालापुलयन, उरळी, पलियन, खासी, तोडा, कोट सारकिल्या जमातींत बायल एका परस चड घोव करता. वयल्या कांय जमातींत जायत्या भावांक एकच बायल आसता.

बऱ्याच आदिवासी जमातींत गोटुलची पध्दत आसता. गोटुल म्हळ्यार आदिवासी जमातींतल्या चले चलयांखातीर आशिल्ले भौशीक शयनघर. ही शयनघरां चड करून वसतीच्या मदीं आसता. कांय जमातींत ही शयनघरां वसतीसावन पयस आसतात. कांय जमातींत चले आनी चलयांखातीर एकूच शयनघर आसता, तर कांय कडेन दोगांकय वेगवेगळीं आसतात. ह्या गोटुलांनी आदिवासी जमातीक वेव्हारा पासत ज्यो ज्यो गजाली लागतात, ताचें शिकप दितात. तातूंत लैंगीक शिक्षणाचेर चड भर दितात. ह्या गोटुलांत एकठांय राविल्ल्यान चले आनी चलयो हांकां आपापलो जोडीदार वेंचून काडप सोंपें जाता. लग्न जातकच तांकां गोटुलांत रावंक मेळना.

**लग्न मोड आनी पुनर्विवाह:** व्यभिचार, वांझपण, विजोडपण, दादल्याभितल्ले व्यंग, खोजेंपण ह्या कारणांक लागून आदिवासी बायल 'लग्न मोड' घेवपाक शकता. एकामेकां मजगती थारावणी घेवनय दोगांय जाणां वेगळी रावंक शकतात पूण जो वा जी वेगळी जावंक सोदता ताणें/तिणे दुसऱ्याक लुकसाण भरपाय दिवंची पडटा. विधवेक दुसरें लग्न करपाचो अधिकार आसता. चड करून ती धाकल्या देराकडेन लग्न जाता. आदिवासी जमातीच्या लग्नांचें खाशेलेपण म्हळ्यार ते चलयांक वयांत येतकच लग्न करतात. दक्षिणेतल्यो कांय जमाती मात हाका आडवाद आसात.

**मरणप्रथा:** आदिवासी जमातींत निमणे संस्कार करपाचे विधी वेगवेगळे आनी विचित्र आसतात. कांय आदिवासी मरणपंथाक लागिल्ल्या मनशांचे प्राण वचपाक आडखळ येंवची न्हय म्हूण घरांचीं दारां-जनेलां, उक्तीं करतात. नीलगिरीचे आदिवासी मेल्ल्या मनशाचे तकलेचे केंस कातरून काडटात आनी जतनायेन सांबाळून दवरतात. सवर आदिवासींत मेल्ल्या मनशाक व्हरपाचें काम बायलो करतात. मेल्ल्या मनशावांगडा ताच्यो वस्तू, कपडे पुरतात वा लासतात. दक्षिणेकडेन पांय करून मडें पुरतात. हालीं जायत्यो जमाती प्रेतां लासपाक लागल्यात.

रोगान वा साथीन पेड्ड्यार जाल्ल्या वायटकाराक तशेंच पांच वर्सां भितल्ल्या ल्हान भुरग्यांक पुरतात. गुरवार बायल मेल्यार तिका पयस रानांत व्हरून पुरतात.

मेल्ले कुडीक तेल हळद लायतात. मडें लासचे पयलीं ते सुवातीर कोंबो वा बोकडो मारतात. दादल्यांखातीर सात थरांचें आनी बायलांखातीर आठ थरांचें सर्ण रचतात. सर्णाक जाणटो मनीस अग्नी दिता. त्या वेळार हेर लोक धोल वाजयत नाचतात- गायतात. अर्दे मडें जळटकच पुरोयत हातांत एक बडी घेवन मृतात्म्याक हो संवसार सोडून सर्गांत वचपाक सांगता. उपरांत तो ती बडी मोडून जळट्या सर्णांत उडयता.

मरणाच्या णव्या दिसा मृतात्म्याक परतो आपोवपाचो विधी चडशे आदिवासी करतात. त्या दिसा मेल्ल्याचीं सोयरीं-धायरीं न्हंयचे देगेनं वचून मेल्ल्याचें नांव घेवन उलो मारतात. उपरांत उदकांतले किडे वा

नुस्तें 'मृतात्मो' म्हणून धरून घरा हाडटात.

मरणाघरांतले दादले केंस कातरतात. हें काम म्हालो करीना तर घरांतलीं सोयरीं-धायरीं करतात. बैगा आनी नागा आदिवासी धाव्या दिसा 'कुंडामिलाना' हो विधी करतात. गोंड आदिवासी 'कोज्जी' नांवाचो विधी करतात. सवर ह्या आदिवासींत मडें जळटकच पुरोयत तांच्यो सगळ्यो अस्थी एकठांय करता आनी मरण कशें आयलें हाचो सोद लायता. उपरांत तीं हाडां एका फोणकुलांत पुरून यादस्तीक बांदतात.

**कलाकुसरः** आदिवासी कलेंत एक वेगळेंपण दिसून येता. घरांवेले नक्षीकाम, मसुंडीतले कोरांतिल्ले खांब, दबाज्यांवेळावेलो तांचो भेस, अलंकार, रूपडीं देवदेवतांच्यो आकृतायो हातूंतल्यान तांचे कलेचें खाशेलेंपण दिसून येता. नागा जमातीचो भेस, मिझुच्यो तोपयो, खोटले, वाद्यां, नुस्तें पागपाची जाळीं हातूंतली रंगत-संगत अप्रूप आसता. नक्षीकाम, कोरीवकाम हातूंतय कलात्मकता दिश्टी पडटा. आंगार गोंदोवन घेवप, सुवाळ्यांवेळार कुडीक रंग लावप, केशभूशा करप, गळ्यांत तरांतरांच्यो माळो घालप हे प्रकार दिसतात. नागालँड आनी मणिपुरांत कपडे जमातीभितरच विणटात. बोडो जमातींत झाडाचे सालीथावन भेस तयार करतात. गदाबा लोक वागाचे कातीसारकें पट्या-पट्यांचे कपडे विणटात. आंगाखांदार घालपाक येवपी वस्तींभितर आदिवासी चडांतचड कवड्यांचो उपेग करतात.

माडिया जमातींत सुवाळ्यांवेळार कोंड्याचे तोपयेचेर जंगली गायेचें शिंग आनी मोराचें पांख लायतात. सावरा जमातींत कोंड्याचे तोपयेक रंगीत कागद लायतात कांय जमातीचे लोक तकलेक वेगवेगळ्या सवण्यांचीं पाखां खोयतात. माडिया, मुडिया आनी कोंड जमातीचे लोक तंबाखू दवरपाखातीर कलाकुसर केल्ले डबे आनी बोटवे वापरतात. कोंडो कोरांतून वांटकुळ्यो, कासव, आंबो, नुस्तें आनी हेर आकाराच्यो तंबाखूच्यो डबयो ते तयार करतात. लग्नावेळार दीप-स्तंभ करपाची चाल आसा. माडिया, मुडिया, भिल्ल, कोरकू, गोंड जमातींत मेल्ल्या मनशाचे यादीक फातराचे वा लांकडाचे कोरांतिल्ले खांब बांदतात. दारार वा वण्टीर जनावरांचीं चित्रां कोरांततात. तशेंच गणचिन्हदर्शक खेळणी घडयतात. नृत्य वा हेर धर्मीक वा भौशीक सुवाळ्यांत आदिवासी लोक भडक कपडे घालून नृत्य वा नकलो करतात. आदिवासी दिसपट्ट्या जिणेतले प्रसंग युवाघरांचेर आनी घरांच्या दारांचेर कोरांततात. घरांतल्या वण्टींचेर देवाधर्माची चित्रां रंगयतात. आदिवासी कलेचें खाशेलेंपण म्हळ्यार ते हीं सगळीं चित्रां रंगयतना, कोरांततना थळाव्या साधनांचो उपेग करतात.

**नृत्यः** आदिवासीच्या नृत्यांचो जल्म सैमीक शक्तीक खोशी करपाक जांला अशें मानतात. सैमाक संतुश्ट केल्यार पीक-पाणी खूब येता, शिकार बरी मेळटा अशी तांची समजूत आसा. सण-परबो आनी मरणा वेळार लेगीत तांचीं नृत्यां जातात. आदिवासीच्या जायत्या नृत्यांत दादले-बायलो, चले-चलयो एकठांय येवन नाचतात. हीं नृत्यां अर्थपूर्ण आसतात. तांच्या नृत्यांतले पदन्यास, आंगमोडप, तोंडातलीं उतरां अप्रूप आसतात. हीं नृत्यां कांय फावट सैमीक प्रक्रियेचें अनुकरण आसता तर कांय फावट देव-देवतांच्या स्वभावाची कुरू (निदर्शन) आसता. आदिवासींचें जिवीत दुख्ख, खंत, गरिबी हांणी भरिल्लें आसता. ह्यो सगळ्यो चिंता विसरप, हो ह्या नृत्याफाटलो एक हेत आसता. करमा, बिहु, बापरब हीं आदिवासी नृत्यां बरीच नांवाजल्लीं आसात.

**उद्देगधंदे-वेवसायः** आसामांतले आदिवासी विणकामाचे कलेंत फिशाल आसात. तेभायर ते लाकडाचेर कोरीवकाम करतात आनी सोबीत खेळणी घडयतात. लुशाई आदिवासींतय विणकामाची कला वाडीक लागल्या. अबोर, बोडो आदिवासी लोकरीसावन कपडे विणटात. मिश्मी बायलो दादल्याखातीर सुंदर कोट विणटात. खाम्पटी लोक लाकडी कोरीव काम करपाक खांपे आसतात. जायते आदिवासी बेत आनी कोंडे हांच्यासावन जायत्यो वस्तू घडयतात. सद्या त्या त्या प्रदेशांतल्या सरकाराकडल्यान तांकां फाटबळ मेळटा.

**अर्थीक आनी शिक्षणीक उदरगतः** १९४७ सालांत भारत स्वतंत्र जातकच आदिवासीचे उदरगतीखातीर सरकारान लक्ष घालें. स्वतंत्रतायेउपरांत भारतीय घटनेंत एक स्वतंत्र कलम घालून आसाम प्रांतांत आदिवासी लोकांनी व्यापिल्ल्या वाठाराचो राज्यकारभार चलवपाक एक खासा शासकाची नेमणूक जाली. जमनीचें वांटप, कर, शिक्षण, व्याज, वेपार सारकिल्या वेव्हाराची वेवस्था पळोवपाची जापसालदारकी ताचेर सोंपयल्ली. भारताच्या हेर राज्यांत जंय आदिवासी वसती आसा, थंय आदिवासींच्यो अडचणी सोडोवपाक 'ट्रायबल् अॅडव्हायझरी काउन्सिल' ची थापणूक केल्या. सद्या ह्या काउन्सिलांचो आंकडो इकरा आसा. ह्या काउन्सिलांसंबंदी कसलीय गरजेची तजवीज करपाक राष्ट्रपतीक पुराय अधिकार दिल्यात. घटनेन आनीक एका कलमावरवीं सरकारी नोकरेंत आदिवासी जमातींक लोकसंख्येच्या प्रमाणांत जागे राखून दवरपाची तजवीज केल्या.

भारतीय घटनेन लोकसभेंत आनी विधानसभेंत आदिवासी जमातींक लोकसंख्येच्या प्रमाणांत आपले प्रतिनिधी नेमपाक मान्यताय दिल्या. सुर्वेक ही मान्यताय धा वर्सांखातीर आसली. सद्या ती आनीकय कांय वर्सांखातीर वाडयल्या.

आदिवासी लोकांचे हितसंबंद राखपाखातीर तेचपरी तांच्या सबंदान चलणूकेंत आशिल्ल्या कायद्यांक पाळो दितात काय ना हांचेर नदर दवरपाखातीर सरकारान कमिशनराची नेमणूक केल्या.

समाजीक आनी अर्थीक मळार आदिवासींचे हित-संबंद सांबाळपाखातीर ज्यो येवजणी सरकारान तयार केल्यात, तांची अंमलबजावणी १९५३ उपरांत जावपाक लागली. तेखातीर केंद्र सरकार अनुदान दिता.

पयले पंचवर्सुकी येवजणेंत आदिवासी समाजकल्याण कार्यावळीचेर चड भर दिल्लो. तेखातीर केंद्र आनी राज्य सरकारान आपलो निधी वेगळो काडून दवरला. समाजकल्याण चळवळ नेटान चालीक लावपाक शिक्षणविभाग, अर्थीक पुनर्रचणूकविभाग आनी संकीर्णविभाग ह्या तीन स्वतंत्र विभागांची थापणूक जाल्या.

**गोंयचे आदिवासीः** कोळी, गावडे आनी कुणबी जमाती गोंयच्यो सगळ्यांत आदल्यो म्हळ्यार आदिवासी अशें मानतात. कोल गावडे आनी कुणबी ह्यो जमाती प्रोटो-ऑस्ट्रलॉइड वंशकुळयेच्यो आसात.

गोंयच्या ह्या आदिवासी जमातींनी गोंयांत सगळ्यांत पयलीं शेत रोवपाची पध्दत सुरू केली, अशें श्री. बा. द. सातोस्कार म्हण्टात. डॉ. ऑपर्टच्या सिध्दान्ताप्रमाण आर्य लोकांनी ज्या वाठाराक आर्यावर्त हें नांव दिलें, त्या वाठारांतल्या विंध्योत्तर प्रदेशांत ह्यो जमाती रावताल्यो. कोल वा कोळी जमात दोंगरी वाठारांत रावताली. थंयसावन ही जमात सपाट वाठारांत आयली. थंय ते शेत रोवपाक लागले. कांय जाण दर्यादिगेर गेले आनी नुस्तेकार वा व्हडेंकार जाले. उदेंत गुजरातांत 'कोळवण' नांवाचो वाठार आसा. हो वाठार डांग सावन मुसा देगणा मेरेन पातळ्ळा. थंय तांची बरीच वसती आसा. थंयच्यान अस्तंत देगेवेल्यान दमण, वसई, मुंबय, कुलाबा, रत्नागिरी ह्या गांवांतल्यान ही जमात गोंयांत आयली. आयज कोल जमात हेर जमातींत भरसून गेल्ल्यान तांची वारस जमात हांगा दिसना.

गांव ह्या उतरावेल्यान 'गावडा' हें उतर आयलां अशी व्युत्पत्ती कांय प्रमाणांत समा मानूं येता. गावड्यांभितर ग्रामसंस्था पध्दत आसा. ते नदरेन गांव वसवपी लोकांक 'गावडे' हे नांव पडलें अशें म्हणू येता. डॉ. ऑपर्ट हांच्या मतान गोंड आनी गावडा एकेच जमातीची दोन नांवां आसात. ही गौड जमात आसून ती उत्तरेकडल्यान दक्षिणेंत येवन थीर जाली. गोंयच्या गावड्यांभितर गावडे आनी मीठगावडे अशे दोन प्रकार आसात. मीठगावडे फकत मीठाचें उत्पादन करतात. हेरांक निखटे 'गावडे' म्हण्टात.

कुणबी ह्या उतराची व्युत्पत्ती 'कुटुंबिन' ह्या उतरावेल्यान जाली अशें म्हण्टात. ह्या उतराचो अर्थ 'कुटुंब करून रावपी गृहस्थ' असो जाता. डॉ.

जॉन विल्सन हाचे मतान कुणबी हें उतर कुर्मी उतरावेल्यान कुम्बी जावन फुडें आयलें, उपरांत ह्या उतराचें रुप कुण्बी, कुणबी अशें बदल्लें.

हिंदू आनी किरिस्तांव ह्या दोनूय समाजांभितर कुणबी जमात दिश्टी पडटा. गोंयच्या सत्तरी आनी सांगें म्हालांत हिंदू कुणबी जमात दिसता. ही जमात दोंगराचे देंवतेर शेत करता. कुळागरांत काम करता. देखून ह्या वाठारांत कुणबी जमातीक 'कुळवाडी' म्हण्टात. किरिस्तांव समाजांत कुणबी जमात किरिस्तांव चाड्डे समाजांत आस्पावना, तर ती शूद्र (सुदीर) समजतात.

- कों. वि. सं. मं.

**आनंदः** (इ.स.प. ६ वो- ५ वो शेंकडो).

गौतम बुध्दाचो नामनेचो आनी मुखेल शिश्य. तो शाक्य वंशांतलो क्षत्रिय आशिल्लो. बुध्दाक बोधिप्राप्ती जावन वीस वर्सां जातकच फुडें जायतीं वर्सां तो 'उपस्थायक' (उपट्ठक) म्हळ्यार गौतम बुध्दाचे आज्ञेंत रावपी शिश्य आशिल्लो. बुध्द आपल्या मनांतले सगळे विचार ताका सांगतालो. समाजाभितर ताका फाव जाल्ली ऊंच सुवात आनी ताच्या रसाळ धर्मप्रवचनांची गौतम बुध्दान आपल्या निर्वाणाआदीं तोखणाय केल्ली. 'अंगुत्तरनिकायातल्या' एतदग्गवग्ग ह्या भागांत बहुश्रुत, स्मृतिमान, गतिमान, धृतिमान अश्या भिक्षूंत आनंद हो व्हड भिक्षू अशें ताचें वर्णन केलां. देखून ताका 'धर्मभांडागारिक' अशें नांव मेळ्ळां. खूब वर्सां बुध्दाचे सेवेक राविल्ल्यान बुध्दाच्या उपदेशाची ताका हेर भिक्षूंपरस चड वळख जाल्ली. बुध्दाची सावत्रआवय महाप्रजापती गौतमी हिणें बायलांक संघीक आनी धर्मीक जीण जियेवंक मेळची म्हूण भिक्षुणी संघाची थापणूक करपाविशीं सुचयल्लें. तेन्ना आनंदाचे मध्यस्थीक लागून गौतम बुध्दान हो संघ स्थापलो. पूण फुडें राजगृह हांगा भरिल्ले संगीतींत ताका ह्या स्त्रीपक्षपाताखातीर जाप दिवंची पडली.

गौतम बुध्दाविशीं ताका खर निश्ठा, आदर आनी मोग आशिल्लो. गौतमबुध्दाच्या परिनिर्वाणामेरेन ताका साधना करूंक मेळ्ळी ना; देखून ताका अर्हत्व प्राप्त जालें ना. बुध्दाच्या परिनिर्वाणाउपरांत ताचे शिकवणीचें संकलन करपाक पयले फावट धर्मसंगीती भरिल्ली. हे धर्मसंगीतींत धर्म संकलनाचें काम करपी सगळ्या अर्हतांची गरज आशिल्ली. पूण ह्या कामाखातीर जेन्ना पाचशें भिक्षू वेंचून काडले तेन्ना तातूंत आनंदाचो आस्पाव नाशिल्लो. फुडें ताका अर्हतपद मेळटकच ताचो धर्मसंगीतींत आस्पाव जालो. तरीय हे पयले संगीतींत धर्माचें संगायन आनंदान केलां अशें सगळे भिक्षू मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**आनंद, मुल्कराजः** (जल्मः १२ डिसेंबर १९०५, पेशावर).

आंतरराश्ट्रीय किर्तीचो इंडो-अँग्लियन कादंबरीकार आनी समीक्षक. कासार क्षत्रिय हिंदू कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. बापायचें नांव श्री. लालचंद आनंद. आवयचें नांव श्रीमती ईश्वर कौर. ताचो बापूय सैन्यांत भरती जालो म्हूण ताका आपलें अमृतसरचें घर सोडून वचचें पडलें देखून, मुल्कराजाचें भुरगेपण उत्तर भारतांतल्या वेगवेगळ्या छावणींत कश्ट दगदगांत गेलें. नव्या-नव्या आर्विल्ल्या कल्पनांकडे, मतांकडे, आदर्शांकडेन आनी आचार-विचारांकडे ताका तडजोड करची पडली. भुरगेपणांत दोन दीर्घ दुयेंसांतल्यान वचचें पडलें म्हूण ताचो सभाव आनीकूय चिंतनशील जालो. विदेशांत तो कॅथलीन व्हॅन जेल्डर हिचेकडेन लग्न जालो. तांकां एक चली आसा.

सरकारी चाकरी मेळोवची ह्या हेतान बापायन ताचेखातीर इंग्लीश शिक्षणाची तजवीज केली. १९२५त, ताणें पंजाब विद्यापीठांतसून ऑनर्स सयत पदवी मेळयली. पिरायेच्या २० वर्सांचेर तो इंग्लंडाक गेलो आनी लंडन आनी कँब्रिज विद्यापीठांत ताणें उच्च शिक्षण घेतलें. १९२९त, तत्वगिन्यान डॉक्टरेट (Ph.D) पदवी मेळयली.

१९२७-२९ त School of International Co-operation, Geneva हातूंत ताणें अध्यापक म्हूण काम केलें. १९४२-४५त, British Broadcasting Corporation (BBC) हातूंत काम केलें. १९४५ त तो हिंदुस्थानांत परत आयलो. १९४६ त ताणें 'मार्ग' ही प्रकाशनसंस्था स्थापन केली आनी खासा ललित कलेखातीर ओंपिल्ले 'मार्ग' हें त्रैमासिक नेमाळें सुरू केलें. १९४६ पसून ताचो राबितो मुंबय हांगा आसा. १९६२-६५ त, ताणें पंजाब विद्यापीठांत 'टागोर प्रोफेसर ऑफ आर्ट अॅण्ड लिटरेचर' म्हूण काम केलें.

मुल्कराजाच्या भुरगेपणांत हिंदू समाजाच्या उंचेल्या थरांकडल्यान ताच्या ताम्रकार समाजाची अवहेलना जाताली. ह्या जाचाक लागून तो ब्राह्मणांचो आनी जातीयवादाचो खर विरोधक जालो. गरीब शिपाय, कामदार आनी अस्पृश्य हांच्याकडल्यान भारतीय समाजजीणेची बारीक-सारीक म्हायती ताका मेळ्ळी. भारतीय समाजांतले पूर्विल्ले आचार-विचार, रुढी, परंपरा, जातीभेद पळोवन ताचें मन कळवळ्ळें. दुखेस्त-पीडेस्त, गरीब, कश्टी, अशिक्षित तशेंच दीन-दुबळ्यांच्या कल्याणाखातीर वावुरपाचो हावेस ताणें बाळगिलो. भुरगेपणात आवयन सांगिल्ल्यो शास्त्र पुराणांतल्यो देव-दानवांच्यो काणयो आनी नीतिकथा आयकून हिंसाचारान वायटाचो समूळ नाश करपाची उर्बा ताच्या मनांत जागली अशें म्हण्टात.

पयलें संवसारीक म्हाझूज जालें तेन्ना तो ९ वर्सांचो आशिल्लो. बापूय सैन्याच्या कारभारांत खूब व्यस्त उरिल्ल्यान आनंद कुटुंबाक आपल्या घरा अमृतसराक परत येवचें पडलें. १९१९ त, १४ वर्सांचो आसतना तो जनरल डायराच्या क्रूर छडीमाराक बळी पडलो. ताचे फाटीर ११ फटके पडले. हाचो परिणाम म्हूण ताका बापायकडल्यान उलोवणे आयकुचें पडलें आनी आवयसयत घराभायर सरचें पडलें. बंडखोर तरणाटो आसतना मुल्कराजाक आंदोलन होच स्वातंत्र्य-प्राप्तीचो एकमेव उपाय आसा अशें दिसतालें. कॉलेजांत आसतना गांधी आंदोलनांत वांटो घेतलो म्हूण ताणें कांय काळ बंदखण भोगली. इंग्लंडांत आसतना ताचें मन अत्याधुनिक विचारप्रवाह आनी समाजवादी चळवळीकडे झुकलें. १९२६ त संपार आशिल्ल्या इंग्लंडच्या कामगारांक ताणें सहानुभुती दाखयली. २६ वर्सांचो आसतना मार्क्सवादी मतप्रणालीचो ताचेर प्रभाव पडलो. टॉलस्टॉय, रस्कीन आनी गांधी हांच्या विचारांक लागून दळिद्र, बीभत्सता आनी असमानता हांकां विरोध करपापुरतोच तो समाजवादाकडे वळ्ळो. इतिहासाचें विवरण करपाखातीर ताणें मार्क्सवादी पध्दत वापरली पूण मानवतावाद ही चड आकलनीय स्वरुपाची मतप्रणाली आसा अशें ताका दिसलें. साम्राज्यशाहीच्या शेकापसून वसाहतवादी मुक्ती करपाची रशियाची भुमिका पळोवन ताका रशियेविशीं ओड तयार जाली.

१९२९ त डॉक्टरेट मेळयतकच पांच वर्सां साहित्याचो अभ्यास करून ताणें 'Untouchable' (1935) आनी 'Coolie' (1936) ह्यो कादंबऱ्यो बरोवन एक प्रख्यात कादंबरीकार म्हूण नांव मेळयलें. आयज ४० भासांनी ह्या कादंबऱ्यांचे अणकार जाल्यात. Two Leaves and a Bud (१९३७), The Village (१९३८), Across the Black Waters (१९४०), The Sword and the Sickle (१९४२) आनी The Big Heart (१९४४) ह्या पुस्तकांत राजकी आनी समाजीक पीडणुकेक लागून चिड्डल्ल्या लोकांनी परगटायल्ल्या निशेधाचें चित्रण आसा.

मुल्कराज आनंद हाणें आपल्या बरोवपांत गरीबांक पिळून भ्रश्टाचारान मातिल्ले जहागिरदार, बादशहा, सामंत हांचें वास्तव चित्रण पयलेच खेपे स्पश्टपणान उक्तें केलें. ताचें सगळें बरोवप एक थाराविक मतप्रणालीच्या आदाराचेर घडलां. मतप्रणाली आनी कला हांचो मेळ सादून ताणें चडशें जीवनवादी साहित्य रचलें. आनंद हाच्या बरोवपाचे कांय खाशेले गुण अशेः कलाकृतींचो विस्तृत आंवाठ, तातूंत आयिल्लीं विंगड विंगड पात्रां, तांच्यांतलो कठोर वास्तववाद, समाजीक अन्यायाविशीं तांकां आयिल्ली तिडक आनी तांच्यांत दिसून येवपी मनीसपणाचो उमाळो. ताच्या कांय कथांतसून सूक्ष्म आनी तरल विनोद दिसून येता. पूर्विल्ल्या भारतीय कला आनी संस्कृतायेचो खोल अभ्यास आनी भारतीय ग्रामीण मनाची निसर्गदत्त जाण हांकां लागून ताचें बरोवप प्रभावी जालां. साहित्य हें

समाजपरिवर्तनाचें एक बऱ्यांतलें बरें माध्यम अशें ताका दिसता. लेखकान फकत सपनां रंगोवचीं न्हय, तर काळ-प्रदेशाचें भान दवरून समाजीक आनी राजकी बदलांचेर फावतें भाश्य करचें अशें आनंद हाणें सांगलां. भारतीय नृत्य आनी रंगभुमी हांचेरूय ताणें बरपावळ केल्या.

फाटल्या तीस वर्सांत साहित्य, तत्वगिन्यान, कला आनी शृंगार ह्या मळांचेर सातत्यान बरोवन मुल्कराज आनंद हाणें जी साहित्यनिर्मणी केल्या. तिची वळेरी अशी:

Ajanta; Apology for Heroism; A brief autobiography of Ideas; Barbers; trade union & other stories; Between tears and laughters; Confessions of a Lover; Coolie; Untouchable; Death of a Hero; Epitaph for Magbool Sherwani; The Village; Gauri; The Sword and the Sickel; Lajwanti and other stories; Lament on the death of a master of arts; Old woman and the cow; Seven summers; Mora; Indian Fairy Tales; Morning Face; Power of darkness and other stories; The Hindu view of Art; Road; Two leaves and a bud; The tracter and Corn and other stories; Across the Black Waters; The King Emperor's English; Lines written to an Indian Air; Reflections on the Golden Bed and other stories; The Story of India; Is there a Contemporary Civilization; More Indian Fairy Tales; The Seven Ages of Man; The Bubble; Conversations in Bloomsbury; Selected Short Stories by Mulk Raj Anand, Ed. by M. N. Naik; The Big Heart; Persian Painting; Private Life of an Indian Prince. ताणें All India Peace Coulcil's Cultural Commission चो सभापती म्हूण काम केलां. Progressive Writers' Association हे संस्थेतूय ताणें मोलादिक वावर केला. ताका साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळा. १९६७ त ताका 'पद्मभूषण' किताब फाव जाला. तो साहित्य अकादमीचो सदस्य आसा. सध्या तो 'मार्ग' ह्या त्रैमासिक नेमाळ्याचो संपादक आसा. World Peace Council कडल्यान ताका आंतरराष्ट्रीय शांतता पुरस्कार फाव जाला. भारतांत तशेंच परदेशांत कितल्याशाच साहित्यीक, सांस्कृतिक आनी समाजीक संस्थांत तो वावर करीत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**आनंदरामायण:** रसिक संप्रदायांतलो एक मुखेल ग्रंथ. १५ व्या शतमानाच्या अदमासाक ह्या ग्रंथाचें बरोवप जालें. ह्या ग्रंथांत १२,२५२ श्लोक आनी ९ कांडां आसात. पयल्या काडांत रामजल्म ते सीताहरण; दुसऱ्या कांडांत रामचंद्राची तीर्थयात्रा; तिसऱ्यांत रामाश्वमेध; चवथ्यांत सीतेचें पुराय वर्णन, रामसीतेची जलक्रिडा आनी भोंवडी, रामाच्या एकपत्नीव्रताक लागून फुडल्या अवतारांत ताका खूब बायलो मेळटल्यो अशें आश्वासन हीं प्रकरणां; पांचव्यांत लव-कुशाचो जल्म आनी तांचे रामाच्या सैन्याआड झूज; सव्यांत आठ पुताचीं लग्नां; सातव्यांत विजययात्रा आनी हेर अशे विशय आयल्यात. सातव्या कांडाच्या एकविसाव्या सर्गांत एक दासी रामाचो तांबूलरस (सुपारेचो रोस) पिता. तेवरवीं तिका राधा जावपाचें वरदान मेळटा असो विशय आयला. आठव्यांत रामोपासनेचो विधी सांगला. णवव्यांत कुशाचो अभिषेक आनी रामचें स्वर्गारोहण हे विशय आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**आन्द्रिच, ईव्हो:** (जल्मः १० ऑक्टोबर १८९२, बॉझ्निया-युगोस्लावि़या).

युगोस्लाव्हिया देशांतलो नामनेचो कादंबरीकार आनी कथालेखक. ताणें मुळावें शिकप सारायेव्हो हांगा घेतलें आनी फुडलें शिकप झाग्रेब, व्हिएन्ना, क्रेकोव्ह आनी ग्रात्स विद्यापीठांत घेतलें. दक्षिण स्लाव्ह लोकांचो एकचार जावंचो म्हूण ताणें खूब वावर केला. स्वतंत्रताय झुजांतय ताणें वांटो घेतिल्लो.

१९१४ वर्सा पयलींच ताका ताच्या भावगीतांखातीर कवी म्हूण नामना मेळिल्ली. पूण 'Ex Ponto' (१९१८) ह्या ताच्या कविता झेल्याखातीर ताका चड नामना मेळ्ळी. १९१८ वर्सा उपरांत युगोस्लावियाचो प्रतिनिधी म्हूण ताणें इटली, रुमानिया, ऑस्ट्रिया आदी देशांनी भोंवडी केली. स्पश्ट चित्रण आनी मानशास्त्राची फोडणीशी हें ताच्या कादंबरींचें आनी लघुकथांचें खाशेलेंपण आसा. मनशाची स्वताच्या अस्तित्वाकडे चलिल्ली धडपड आनी ताचें विश्वाकडेन आशिल्लें नातें ताच्या बरपावळींतल्यान उक्तें जाता.

दुसऱ्या म्हाझुजामेरेन ताणें बॉझ्नियाच्या इतिहासाचेर बरयल्ल्यो तीन कादंबऱ्यो अशो: Travnicka Kronika (१९४५- बॉझ्नियन स्टोरी, १९५९), No Drini Cuprija (१९४५- द ब्रीज ऑन द ड्रीना) आनी Gospodjica (१९४५- द वूमन फ्रॉम सारायेव्हो, १९६६).

१९६१ वर्सा ताका साहित्याखातीर आशिल्लें नोबेल इनाम फाव जालें. नोबेल इनामाचे वेंचणूक समितीन ताचे महाकाव्यात्मक शैलिची तोखणाय करून ताचे 'द ब्रिज ऑन द ड्रीना' हे कादंबरीचो खासा उल्लेख केला.

- कों. वि. सं. मं.

**आप:** एक वैदिक देवता. उदक आनी न्हंय ह्या दोनूय गजालींक वैदिकआर्य आप ह्या नांवान वळखताले. ऋग्वेदांत आपोदेवतेसंबंदान चार सुक्तां आयल्यांत. वज्राच्या आदारान इंद्र आपली वाट तयार करता आनी त्यावेल्यान आप सदांखातीर वचत आसता अशें तातूंत म्हळां.

आप हें नितळ, निवळ आनी शुध्द आसून तें मळबांतल्यान भायर पडटा आनी दर्यावटेन व्हांवता तेचपरी दर्यांत वचून रावता अशें म्हळां.

आप दुयेंस, पिडांचेर जैत जोडटा आनी पुराय संवसाराचेर आपलो शेक चलयता अशी वैदिक धर्माची धारणा आसा (ऋग्वेद १०.१७.१०).

वैदिक ऋषी अंबरीष आपाची तोखणाय फुडल्या उतरांनी करतात.

''आपोदेवतांनो, तुमी कल्याणमय आसात. तुमी म्हाका दुडू दियात आनी बऱ्या दर्शनाखातीर गिन्यान दियात. आवय आपल्या भुरग्याक दूद दिता, तेवरीं तुमी म्हाका तुमचो मंगल रस दियात. म्हजे कुडींत जे पातक भरलां तें धुवन उडयात. हांवे जर कोणाकडेन फट मारल्या, दुसऱ्यांक फटयल्यात वा श्राप घाल्यात तर म्हाका गुन्यांव भोगशीयात.''

(ऋग्वेद १०.९)

''आपो ज्योति रसो ऽ मृतं ब्रह्म भूर्भुवः स्वरोम्।''

ह्या वचनाप्रमाण आप म्हळ्यार ज्योति, रस, अमृत, ब्रह्म, भूर्भुवःस्व आनी ओम असो अर्थ जाता.

जाणकारांनी हाका अशेष कारण, चेतना आनी हेर अशें मानलां. योगी हाका ब्रह्म आनी अमृत तशेंच पौराणिक मधुर क्षीर समजतात.

जगदुत्पत्तीच्या कारणांत आपाक मानाची सुवात आसा. विश्वकर्म्याचो जल्म आदि आपासावन जालो, अशें तैत्तरीय संहितेंत म्हळां. ऋग्वेदांत म्हळां:

तम आसीत तमसा गूळ्हमग्रे ऽ प्रकतम्।
सलिलं सर्वमा इदम्।

(ऋग्वेदः १०.१२९.३)

अर्थ- सगळ्यांत पयलीं तमाची उत्पत्ती जाली. तें तम तमानच भरिल्लें. ताच्या उपरांत जाका कसलोच रूप आनी आकार ना, अशें जलतत्व सगळेवटेन भरून रविल्लें.

उदक वा आप हें सगळ्या वस्तूंच्या उत्पत्तीचें मुखेल कारण आसा अशेंय ऋग्वेदांत मुखार म्हळां.

म्हौवान भरिल्लीं उदकाचीं ल्हारां धृताकडेन एकवटित जालीं अशेतरेन उदक हें इंद्राचें पेय जालें. तें पियेवन इंद्र धादोसभरीत जालो (ऋग्वेदः ७.४७).

आप हें दिव्य आसा. सैमान घडयिल्ल्या वा मृत जाल्ल्या खास उदकामार्गांतल्यान वाट काडीत काडीत तें निमाणे दर्यांत वचून मेळटा (ऋग्वेद ७.४९). उजो उदकांत प्रवेश करता आनी आपोदेवता उज्याची आवय जावन ताची उत्पत्ती करता. आपोदेवता आपल्या स्पर्शान हेरांक

निवळ आनी पवित्र करता. जण एकल्याच्या कुडींतली घाण काडून नैतिक अपराध, पातकां आनी श्राप हांच्यापसून मुक्त जावपाखातीर सगले तिका होरायतात (ऋग्वेद १.२३).

- कों. वि. सं. मं.

**आपजीण:** जिवितांतल्या अणभवांचें लिखाणावरवीं घडयल्लें दर्शन. उगडास आनी आपजीण बरोवप हातूंतय जायतें वेगळेपण आसता. आपजिणेंत संक्रमण काळांतल्या गजालींची, घडणुकांची आनी व्यक्तींची कांय उण्या प्रमाणांत खबर येता. उगडासांत बरोवप्याचो भर चडसो हेर व्यक्तींचेर आनी तांच्या अणभवाचेर आसता. पूण आपजिणेंत बरोवपी स्वताच एक केंद्र आसून आपजीण ही एककेंद्री आसता. आपजिणेचो दुसरो एक प्रकार म्हळ्यार आत्मनिवेदन. हातूंत चडकरून बरोवप्याचे भितल्ले पुराय जिणेचें आध्यात्मिक नदरेचें चित्र जितें जिवें दिश्टी पडटा.

जाका आपजीण अशें म्हणूं येता, त्या अस्तंती वाङ्मयातल्या बरपावळीचो पूर्विल्लो पुरावो, मार्क ऑरिलियस (१२१-१८०) हाच्या ग्रीक भाशेंतल्या आध्यात्मिक चिंतनांत मेळटा. क्रिस्ताउपरांतच्या काळांतलें, संत आगुस्तीनान बरयल्लें (३५४-४३०) 'कन्फेशन्स' (Confessions) हे पयलें म्हत्वाचें लिखाण. ताच्या ह्या लिखाणावरवीं आत्मनिवेदन बरोवपाची एक परंपराच सुरू जाली. देखीकः इंग्लीश लेखक डी. क्विन्सी हाचें 'कन्फेशन्स ऑफ ॲन इंग्लीश ओपियम इटर' (१८१२), फ्रेंच कवी, आल्फ्रेद द म्यूसे हाचें 'काँफिसियाँ दंनांफां द्यु सियेक्ल' (१८३६- आयच्या काळांतल्या एका बालकाचें हृद्‌गत), जॉन बन्यन हाचें 'ग्रेस अबांऊडिंग टु द चीफ ऑफ सिनर्स' (१६६६), रिचर्ड बॅक्स्टर हाचें 'Reliquiae Baxterianae' (१६९६).

अस्तंती आपजीण बारपावळीक सुरवात जाली ती प्रबोधनकाळासावन. प्रबोधन काळांतली एक नावाजिल्ली आपजीण म्हळ्यार बेनव्हेनतो चेल्लीनी ह्या लेखकाची आपजीण. सोळाव्या ते अठराव्या शेंकड्यांत तयार जाल्ले बऱ्यांतले बरे आनी नामनेचे आपजीण ग्रंथ म्हळ्यार- लॉड हर्बर्ट, गिब्बन, काझानोवा, आल्फीयसि. हातूंत बेन्जामीन फ्रँकलिन हाची आपजीण (१७७१), हें अमेरिकन वाङ्मयातले पयलें म्हत्वाचें गद्य लेखन. अठराव्या शेंकड्याच्या निमाणे रुसोचें 'काँफिसियाँ' (१७८१-१७८८) हें पुस्तक आयलें. हे आपजिणेवरवीं ताणें बरोवप्यांक एक नवी चाल घालून दिली. हे आपजिणेचो प्रभाव वर्ड्‌सवर्थाच्या 'प्रेल्यूड', बायरनच्या 'चायल्ड हॅरॉल्ड' आनी गटेच्या 'डिश्टुंग ऊंड वरहायट' (काव्य आनी सत्य) ह्या पुस्तकांचेर खोलायने पडला.

कांय नामनेच्यो फ्रेंच आपजिणी ह्योः द्यूक द् सँसिमाँ हाची 'मेम्वार' +Me'moires १७५५); शातोब्रियां हाच्यो 'मेम्वार दूत्र- ताँब +Me'moires d' Outre-Tombe थड्या-पलतडचे उगडास, १८४८-५०); लामार्तीन कवीची 'ले काँफिदांस', (Les confidences, हृद्‌गत, १८४९); जॉर्ज सां हे लेखिकेची 'इस्त्वार द् मा व्ही (Histoire de Ma vie, म्हज्या जिविताची कथा, १८५४-५५); जां-पॉल सार्त्र हाची 'ले मो' (Les Mots, उतरां, १९६४); आंद्रेजीद चो 'जुर्नाल' (दिसपट्टी १९३९,४४,५०) आनी सिमॉन द् बोव्हार हे लेखिकेची 'मेम्वार द्यून जन फीय रांजे' (Me'moires d'une jeune fille range'e एके कर्तव्यशील चलयेचे उगडास, १९५८). हेच लेखिकेन फुडें आनीक दोन पुस्तकां बरयलीं जातूंत तिणें आपले जीणेविशींचे अणभव चितारल्यात. ह्या तीनय पुस्तकांक एकठांय घेतल्यार तांकां एक तीन खंडात्मक आपजीण म्हणूं येता.

१९ व्या शेंकड्यांत आपजीण बरोवप्यांमदीं ली हंट (१८५०), इंग्लीश चित्रकार बी. हेडन (१८५३), रिचर्ड वॉग्नर, इंग्लीश कादंबरीकार अँथनी ट्रॉलप (१८८३), चार्ल्स डार्विन (१८८७), तॉल्स्तॉय, जॉन स्टूअर्ट मिल, हर्बर्ट स्पेन्सर, हे आस्पावतात. विसाव्या शेंकड्यांत चड करून राजकी स्वरूपाच्यो आपजिणी आयल्यो. देखीक- ॲडोल्फ हिटलर हाची 'मायन काम्फ' (म्हजें झूज १९२५), रॉबर्ट ग्रेव्हज ह्या इंग्लीश कवीची 'गुड बाय टू ऑल दॅट' (१९२९), विन्स्टन चर्चिल हाची 'माय अर्ली लाइफ' (म्हजी सुर्वेची जीण १९३०).

हिंदीच्या पूर्विल्ल्या साहित्यांत आपजीणेचें साहित्य जायतें मेळटा. जैन कवी बनारसीदास हाची 'अर्धकथा' ही हिंदीतली पयली आपजीण मानतात. ती पद्यात्मक स्वरुपांत आसा. भारतेंदु हरिश्चंद्र, स्वामी दयानंद, आंबिकादत्त व्यास, स्वामी श्रध्दानंद, महावीरप्रसाद द्विवेदी, गुलाबराय हांच्यो आपजीणी सुर्वेच्यो आनी प्रयोगात्मक स्वरुपाच्यो आसात. श्यामसुंदर दास हाची 'मेरी आत्मकहानी' तशेंच राजेंद्रप्रसाद हाची 'आत्मकथा' ह्यो हिंदींतल्यो नामनेच्यो आपजिणी.

संवसारांतल्या आपजीणेच्या साहित्यांत ऊंचेली सुवात फाव जाल्ल्या भारतीय साहित्यामदीं महात्मा गांधी हाचें 'सत्याचे प्रयोग' (१९२७-१९२९) आनी पंडित जवाहरलाल नेहरू हाचें 'आत्मकथन' (१९३६) हांचो आस्पाव जाता. पूर्विल्ल्या मराठीतलें त्रोटक आनी प्रासंगिक आत्मनिवेदन नामदेव, तुकाराम, बहिणाबाई आनी हेर संताच्या काव्यांतल्यान दिसून येता. इंग्लीश कालखंडांत विष्णुबुवा ब्रह्मचाऱ्याच्या 'वेदोक्त धर्मप्रकाश' हातूंत (१८५९-२५ वे प्रकरण) आपजीण मेळटा. वासुदेव बळवंत हाची 'कैफियत' (१८७९) हातूंत संक्षिप्त आपजीण आसा. दादोबा पांडुरंगाची आपजीण (१८८२) आनी बाबा पदमनजीची 'अरुणोदय' (१८८८) ह्यो ह्या कालखंडांतल्यो उल्लेख करपासारक्यो आपजिणी. वि. दा. सावरकाराची 'माझी जन्मठेप' (१९२७) आनी 'शत्रूच्या शिबिरांत' (१९६५) ही बरपावळ आपजिणेच्या स्वरुपांत आसा. विसाव्या शेंकड्यांत समाजीक उद्‌बोधनाच्या हेतून बरयल्ल्यो आनी नामनेक पाविल्ल्यो कांय आपजीणी अश्योः धोंडो केशव कर्वे- 'आत्मवृत्त' (१९१५), सी. ग. देवधर- 'जीवनवृत्तांत' (१९२७), श्री. म. माटे- 'चित्रपट- मी व मला दिसलेले जग' (१९५७), पार्वतीबाई आठवले हिची 'माझी कहाणी' (१९२८). लक्ष्मीबाई टिळक हिची 'स्मृतिचित्रे' (४ भाग १९३४-१९३६) ही आपजीण म्हळ्यार मराठी साहित्याचें भूषण मानतात. हेर कांय नामनेच्यो मराठी आपजिणी अशोः न. चिं. केळकर 'गतगोष्टी' (१९३९), ल. रा. पांगारकर 'चरित्रचंद्र' (१९३८), श्री. कृ. कोल्हटकर 'आत्मवृत्त' (१९३५), ना. गो. चापेकर 'जीवनकथा' (१९४३), वि. द. घाटे 'दिवस असे होते' (१९६१), प्र. के. अत्रे 'कऱ्हेचे पाणी' (पांच खंड १९६३-६८), ना. सी. फडके 'माझं जीवन-एक कादंबरी' (१९६५), गं. त्र्यं. माडखोलकर 'दोन तपे' (१९४६) आनी 'एका नर्वासिताची कहाणी' (१९४९), कृ. पां. कुलकर्णी 'कृष्णाकाठची माती' (१९६१), मा. दा. अळतेकर 'उलटलेली पाने' (१९६१), के. ना. वाटवे 'माझी वाटचाल' (१९६४), धर्मानंद कोसंबी 'निवेदन' (१९२४), रा. र. पैंगीणकर 'मी कोण' (१९६९), सेतुमाधवाराव पगडी 'जीवनसेतु' (१९६९) हंसा वाडकर 'सांगत्ये ऐका'.

रंगमाची, ललितकला आनी खेळ ह्या मळावेल्या नामनेच्या जाणकारांनी आपजीणेसारकें लिखाण केलां. तातूंतल्यो कांय नामनेच्यो आपजिणी अश्यो आसातः गणपतराव बोडस 'माझी भूमिका' (१९४०), गोविंदराव देसाई 'गोविंदाची गुजगोष्ट' (१९४४), पी. विठ्ठल 'माझे क्रीडाजीवन' (१९४८), गो. स. टेंबे 'माझा जीवन विहार' (१९४८), चिंतामणराव कोल्टकर 'बहुरुपी' (१९५७), बाबुराव पेंढारकर 'चित्र आनि चरित्र' (१९६१), नानासाहेब फाटक 'मुखवट्यांचे जग' (१९६४), नानासाहेब चापेकर 'स्मृतिधन' (१९६६), दुर्गा खोटे 'मी. दुर्गा खोटे' (१९८२), लिला चिटणीस 'चंदेरी दुनियेंत'.

आर्विल्ल्या काळांतल्या कोंकणी साहित्यांत आपजीण वा आपजिणी सारकिल्ल्या प्रकारांतलें बरोवप खूब जालां, पूण ग्रंथरूपान उजवाडाक थोडेंच आयलां. लक्ष्मणराव सरदेसाय हाचें पुस्तक 'खबरी कांय कर्माच्यो कांय वर्माच्यो' (१९८०) हो निंबद झेलो आपजिणेचोच एक प्रकार. तातूंत बरोवपी आपले भोंवतणची जीण चितारतांना आपले खाशेले अणभवूय मनभुलोवणे शैलीन मुखार दवरता. रवींद्र केळेकार हाच्यो

'वेळेवयल्यो घुलो' (१९७१) ही एक दिसपटी. तातूंतल्यान बरोवपी सादे, सोंपे भाशेंत आपले विचार आनी विचारांवांगडाच आपलें खाशेलें व्यक्तीमत्त्व उक्तें करता. पाद्री आंतोनियु पेरैरा S.J. हाचो ग्रंथ 'म्हज्या हातांची आनी वोटांची काणी' (१९८९) म्हळ्यार बरोवप्याच्या धर्मीक, साहित्यीक आनी समाजीक सेवेची रोसाळ आनी देखदिणी कथा.

- कों. वि. सं. मं.

**आपटे, हरि नारायणः** (जल्मः ८ मार्च १८६४, पारोळे-जळगांव; मरणः ३ मार्च १९१९, पुणे).

मराठींतलो एक नामनेचो कादंबरीकार. शिकप मुंबय आनी पुणे हांगा जालें. भुरगेपणांतूच इंग्लीश आनी संस्कृत ह्या दोन भासांचें खूब वाचप केल्लें. गणित कच्चें आशिल्ल्यान महाविद्यालयांतल्या पयलेच परीक्षेंत ताका अपेस आयलें, देखून उच्च शिकप घेवपाचो विचार ताणें सोडून दिलो.

१८८८त, 'मधली स्थिती' ही ताची पयली समाजीक कादंबरी उजवाडाक आयली. ते भायर 'पण लक्षांत कोण घेतो?' (१८९३), 'जग हे- असे आहे' (१९०१), 'यशवंतराव खरे' (१९१६), 'मी' (१९१६), 'गणपतराव' (अर्दकुटी, १९१९), 'कर्मयोग' (१९२३), 'आजच' (१९२४), 'मायेचा बाजार' (तिसरें उजवाडावप, १९२९), 'भयंकर दिव्य' (चवथें उवाडावप १९३०) ह्यो समाजीक कादंबऱ्यो ताणें बरयल्यात.

त्या काळांतल्या मध्यम वर्गांतल्या बायलां दादल्यांचे मुळावे प्रस्न सोडोवपाचो यत्न हरिभाऊ आपटे हाणें आपल्या कादंबरींतल्यान केलो. ल्हान पिरायेचेर चलयांचें लग्न करप आनी तांचे इत्सेआड तांचेर आवयपणाची जापसालदारकी लादप, घोवाघरच्या लोकांनी बायलांक दिल्लो त्रास हे आनी अशे कितलेशेच प्रस्न मांडपाचो यत्न हरिभाऊन ताच्या कादंबरींतल्यान केल्लो दिश्टी पडटा. तरणाट्यांच्या मनांत निर्माण जाल्लें वैचारिक झूज आनी बायलांक शिकपाची संद हे विशय ताणें आपल्या कादंबरींतल्यान सोबितकायेन परगटायल्यात.

'पण लक्षांत कोण घेतो' ही ताची आत्मकथनात्मक पध्दतीन बरयल्ली मराठींतली पयलीच कादंबरी. ताणें ज्यो इतिहासीक कादंबऱ्यो बरयल्यात ते वळेरींतली 'म्हैसूरचा वाघ' ही ताची पयली कादंबरी जावन आसा. पुस्तकरुपांत ही कादंबरी १९२५ त उजवाडाक आयली. हेभायर 'गड आला पण सिंह गेला' (१९०४); 'चंद्रगुप्त' (१९०५); 'रुपनगरची राजकन्या' (१९०९); 'वज्राघात' (१९१५); 'सूर्योदय' (१९१७); 'केवळ स्वराज्यासाठी' (१९१८); 'सूर्यग्रहण' (अर्दकुटी, १९१९); 'कालकूट' (अर्दकुटी १९२६); 'मध्यान्ह' (अर्दकुटी १९२७); 'उषःकाल' (१९२९) ह्यो धा इतिहासिक कादंबऱ्यो ताणें बरयल्यात. हातूंतल्या 'उषःकाल' हे कादंबरीचें पांच फावटी उजवाडावप जालें. हातूंतल्या खूबशा कादंबऱ्यांनी काल्पनिक गजालींचो मोट्या प्रमाणांत पालव घेतिल्लो दिश्टी पडटा. दंतकथा, लोकांकाणयो, पोवाडे, काल्पनिक पात्रां हांचो उपेग खूबशा सुवातींनी केल्लो आसा. पूण ह्या गजालींक लागून कृत्रिमताय आनी अति कल्पकताय हांचो गरजेभायर उपेग जाल्याची जाणवीकाय जायना.

पूर्वापार चलत आयिल्ल्या पारंपारीक साहित्यिक बंधनांतल्यान मराठी कादंबरीक मुक्त करून नवे व्हाटेर हाडपाचो मोलादिक वावर आपटे हाणें केलो. अद्भूत आनी असंभव अश्या गजालींनी भरिल्ल्या कादंबरीक ताणें वास्तववादी रूप दिलें. आपरया कादंबरींतल्यान वाचप्याक कसलोय तरी बोध दिवन गिन्यानी करपाचो यत्न ताणें केलो. ताच्या कादंबऱ्यांची प्रकरणां त्या काळांतल्या म्हयन्याळ्यांतल्यान उजवाडाक येतालीं आनी हें बरप नेमान खूब काळ चलतालें. हाका लागून, बऱ्याच सुवातींनी ह्या कादंबरींनी रसभंग करपी पाल्हाळीक भास आयिल्ली दिश्टी पडटा.

१८९० वर्सा ताणें 'करमणूक' ह्या नांवान एक म्हयनाळें उजवाडाक हाडलें. हातूंत शास्त्रगिन्यान, इतिहास, भलायकी, कविता, नाटकां, टीकात्मक बरोवप, व्यंगचित्रां आनी भोंवडेवर्णनां हांचो आस्पाव आशिल्लो. मुखार १९१५ त, ह्याच म्हयनाळ्यांतल्यान 'स्फुट गोष्टी' बरोवन हरिभाऊन मराठी लघुकथेची बुन्याद घाली. वास्तवतेचें पुराय भान दवरून ह्यो कथा ताणें बरयल्यो. पुणे हांगा लागिल्ली प्लेग ह्या रोगाची लागण, दुकळ पडून लोकांची जाल्ली दैना, बुवाबाजीक फटवल्ले मनीस, दुबावखोर आनी व्यसनांत बुडिल्ले मनीस हे आनी असले कितलेशेच विशय ताणें आपल्या कथांवरवीं लोकांमुखार मांडले. आपल्या स्फुट काणयांवरवीं ताणें लोकशिक्षण दिवपाचो यत्न केलो. हातूंतल्या कांय काणयांची लांबाय मात सुमाराभायली आसा. 'रामजीः ए ट्रॅजेडी ऑफ इंडियन फॅमीन' ह्या नांवाची ताणें एक इंग्लीश काणी बरयली. ही काणी ताच्या 'काळ तर मोठा कठीण आला' हे काणयेचेर आदारिल्ली आशिल्ली. ह्या भायर 'संत सखूबाई' (१९११) आनी 'सती पिंगला' (१९२१) अशीं दोन नाटकां ताणें बरयलीं. रवींद्रनाथाच्या 'गीतांजली' ह्या काव्याचो ताणें गद्य अणकार केलो. शेक्सपिअर, मॉलिएर, व्हिक्टर ह्यूगो, काँग्रीव्ह ह्या नामनेच्या नाटककारांच्या नाटकांचो मराठी अणकार करपाचें म्हत्वाचें काम ताणें केलें. मराठी साहित्याचेर ताणें केल्लीं उलोवपां खूब गाजलीं.

अकोला हांगा १९१२ त भरिल्ल्या मराठी साहित्य संमेलनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. साहित्याखातीर पुराय जीण ओंपपी ह्या साहित्यीकान पुणे नगरपालिकेंत कांय काळ नोकरी केली. ते नगरपालिकेचें अध्यक्षपदूय कांय काळ ताचेकडेन आशिल्लें. १९६४ त, ताची जल्मशताब्दी व्हडा दबाज्यान मनयली.

- प्रा. सुमंत कनयाळकार

**आपटोः** (मराठी-आपटा, वनराज, कांचन; हिंदी-अष्टा, गुरीयाल, कचनाल; कन्नड-बण्णे; लॅटीन-बौहीनिया रॅसिमोजा; कूळ-लेग्यूमिनोजी). हें झाड रक्तकांचन, कांचन आदींच्या वंशातलें आसून अशोक, अंजन हांच्या उपकुळांत (सीसॅल्पिनिऑइडी) ताचो आस्पाव जाता. हें ल्हान झाड वांकडेंतिकडें वाडटा. श्रीलंका, चीन, भारत आदी देशांतल्या सगळ्या वाठारांतल्या रानांनी हें झाड दिश्टी पडटा. बौहीन नांवाच्या दोन वनस्पतीवैज्ञानिक भावांच्या (झां गास्पार) नांवांवेल्यान ह्या झाडाक बौहीनिया हें वंशवाचक लॅटीन नांव दिलां.

ह्या झाडाक अर्दकुटीं विभागिल्लीं, सादीं, रुंदायेन व्हड, वयल्यान पाचवीं आनी पोंदच्यान लेव पाचवीं पानां आसतात. जून ते मार्च म्हयन्यांत ल्हान, धवीं वा हळडुवीं फुलां येतात. ताका लांब सादारण चेपट्यो आनी वांकड्यो सांगो येतात. तातूंत १२ ते २० चेपट्यो, वांटकुळ्यो बियो आसतात.

हें झाड वखदी आसा. नाळगुद रोगाचेर आपट्याचे सालीचो रोस काडून पिवपाक दितात नाजाल्यार, आपटयाचो पालो, खरवतीचीं पानां, आनी माका एकठांय वांटून रोस काडटात आनी तातूंत कुड्याचें मूळ उकडून दितात. भुरग्यांक जावपी 'आगपैणी' (impetigo contagiosa) ह्या दुयेंसाचेर आपट्याचो पालो धंयांत वांटून लायतात. आपट्याचे सालीपसून टॅनीन, धागे आनी गोम मेळटा. आपटो ह्या नांवाची कांचनाची आनीक एक जात (बौहीनिया टोमेटोजा) रानांनी आनी बागेंत दिश्टी पडटा, तिका हळडुवो कांचन म्हण्टात.

हिंदू समाजांत दसऱ्या दिसा आपट्याचीं पानां एकामेकांक दिवपाची धर्मीक रीत आसा. हीं पानां म्हळ्यार भांगर समजुचें असो तांचेमदीं भावार्थ आसा. आदल्या काळांत दसऱ्या दिसा खरेपणींच भंगराचें वांटप जातालें जावंये, उपरांत खऱ्याखुऱ्या भांगरा जाग्यार भांगराचें नांव (कांचन) आशिल्ल्या रुखाचीं पानां वांटपाचीं पध्दत आयल्या आसूंये.

- कों. वि. सं. मं.

**आपध्दर्मः** पूर्विल्ल्या काळांत, भारतीय आर्य समाजांत, ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र ह्या चारूय वर्णांक तांचे वेव्हार आनी कामां थारावन दिल्लीं. चारूय वर्ण त्या नेमांक पाळो दिताले. हे पध्दतीक 'चातुर्वण्य' म्हण्टाले. सैमीक संकश्टां, अडचणी वा हेर कांय कारणांक

कांय फावट वेल्या चारुय वर्णांक आपली थारावीक कामां करप शक्य जायनासलें. ही अडचण पारखून अशा प्रसंगार हेर वर्णाचो वेव्हार आनी कामां आडवाद म्हूण आपणावपाक हरकत ना अशी सोय शास्त्रकारांनी करून दवरिल्ली. ह्या नेमाक 'आपध्दर्म' अशें म्हण्टात.

आपध्दर्म ह्या उतराची व्याख्या 'आपदि कर्तव्यो धर्मः' म्हळ्यार संकश्टावेळार आपणावपाचो धर्म अशी करतात.

चातुर्वर्ण्य पध्दतींत ब्राह्मणांक षट्कर्मां, क्षत्रियांक झुजाविशींची कृत्यां, वैश्यांक शेत, उद्देग, गोरवां राखप तर शुद्रांक वेल्या तीन वर्णांची सेवा हीं कामां वांटून दिल्लीं.

आपध्दर्म म्हूण ब्राह्मण आनी क्षत्रिय हांणी फुडल्यो गजाली आचरपाक हरकत ना अशें मनू सांगताः

विद्या शिल्पं भृतिः सेवा गोरक्ष्यं विपणिःकृषिः।
धृतिर्भैक्ष्यं कुसीदं च दश जीवनहेतवः।।

(१०.११६)

अर्थः गिन्यान, कलाकुसरीचीं कामां, नोकरी, सेवा, गोरवां पोसप, विक्रय, शेत रोवप, राखण, भीक मागप, सावकारी हे धा वेव्हार ब्राह्मण जांव क्षत्रिय वर्णान करचे.

बैलगाडी चलोवप, दोंगरावेल्यान तण वा जळणाचें लांकूड हाडून विकप हे वेवसाय ब्राह्मण आनी क्षत्रियांनी करपाक हरकत ना अशें याज्ञवल्क्य म्हण्टा. संकश्टावेळार लेगीत ब्राह्मणांनी शुद्रांक आनी शूद्र आनी सकयल्या पांवड्यावेल्या वर्णांनी उंचेल्या पांवड्यावेल्या वर्णांक आलाशिरो दिवचो न्हय अशें वसिष्ठ सांगता. क्षत्रिय आनी वैश्य ह्या दोन वर्णाचो वेवसाय संकश्टावेळार कोणेय आपणावपाचो. पूण संकश्ट वा आडमेळीं सोंपतकच आपध्दर्म म्हूण आपणायिल्लो उणाक वर्णाचो वेवसाय सोडून प्रायश्चित घेवंचें. उपरांत आपल्या वर्णाचो वेवसाय आपणावपाक हरकत ना अशें चडशा धर्मशास्त्रकारांचें मत आसा. ब्राह्मणाक वैश्याचो वेवसाय आपणावचो पडल्यार ताणें वटणां, तेल, कात, गायचें पाडूक, गायचें दूद, फळां-फुलां, सोरो-मांस, तण, उदक हांचो वेपार करचो न्हय अशें गौतमधर्मसुत्र (७.१५) सांगता. आपस्तंबान ब्राह्मण वर्णाक जे वस्तूंचो वेपार करूंक नाका अशें म्हळां, तातूंतल्यो कांय वस्तू आडवाद म्हूण कुशीक काडून हेर वस्तूचो वेव्हार करपाक मान्यताय दिल्या, अशें आपद्धर्मूसुत्र (१.२०.१६; १.२१.१-२) सांगता. ब्राह्मणान अशा संकश्टावेळार धर्मशास्त्रांतले सगळे नेम कडेक सारून आपली दिसपट्टी जीण सारची पूण सेवा-वृत्ती आचरची न्हय अशें गौतम (७.२२) सांगता. त्याचवांगडा सेवा-वृत्ती आपणावपाक हरकत ना अशें म्हणपी हेर शास्त्रकारांचीं मतां गौतमान सांगल्यांत. वैश्य आनी शूद्र हांणी संकश्टावेळार खंयच्या नेमाक पाळो दिवपाक जाय हेविशीं खंयचीच बंधनां धर्मशास्त्रान घालूंक ना. त्यावेल्यान वैश्य, शूद्र आनी क्षत्रियांक आपल्या परस उंचेल्या वर्णाचो वेवसाय सोडून हेर वेवसाय करपाक मेकळीक आसली अशें दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**आफोंसु, आल्फ्रेदः** (जल्मः ११ मार्च १९२८, गालजीबाग-काणकोण; मरणः १० सप्टेंबर १९८६).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें सिनीयर कॅम्ब्रीज मेरेन शिक्षण घेतिल्लें. १९४६ वर्सा सावन तो मुंबय, जंय गोंयकार एकठांय येतात थंय ताच्या मनांत गोंयचे सुटकेविशीं जाग हाडपाचो वावर करूंक लागलो. १९५१ वर्सा पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरपाविशीं फर्मान काडिल्लें. १९५२ वर्सा तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' हे संघटनेचे मुंबय शाखेचो अध्यक्ष आशिल्लो. उपरांत तो कार्यकारी संघटनेचो वांगडी जालो. १९५४ वर्सा ताणें आपले नोकरेक सोडचीठ दिली. १५ ऑगस्ट १९५४ दिसा ताणें चवदा सत्याग्रही लोकाचो एक पंगड तेरेखोल किल्ल्याचेर व्हेलो. थंय पावतकच तांणी थंय तिरंगी बावटो लायलो आनी पुराय एक दीस ते त्या किल्ल्याचेर रावले. तेन्ना पोलिसांनी हेर सत्याग्रहीं वांगडा ताका धरलो. ३१ मार्च १९५५ दिसा प्रादेशिक लश्करी दंडाधिकाऱ्यामुखार (Territorial Military Tribunal) जाल्ले चवकशे उपरांत ताका आठ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. उपरांत १७ मे १९५९ वर्सा ताची आग्वाद बंदखणीतल्यान सुटका जाली.

गोंयचे 'नॅशनल ट्रेड युनीयन काँग्रेस' हे संघटनेचो तो एक संस्थापक आशिल्लो. तशेंच राश्ट्रीय खण कामगार संघटनेचो चिटणीस म्हूण ताणें काम केलां. १८ जून १९८१ दिसा गोंय सरकारान ताच्या सुटकेझुजांतल्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**आफ्रिका खंडः** क्षेत्रफळान आशिया फाटोफाट संवसारांत दुसरो व्हडलो खंड. जुंव्यासयत क्षेत्रफळ ३,०२,७७,१३५ चौ.किमी. ह्या खंडांतल्यान विषुववृत्त, कर्कवृत्त आनी मकरवृत्त तिनूय पासार जातात. उत्तर दिकेक भूंयमध्यसागर, अस्तंतेक अटलांटिक म्हासागर, उदेंतेक तांबडो समुद्र, अरबी समुद्र आनी हिंदी म्हासागाराचो कांय वांटो.

ह्या खंडांत आल्जेरिया, आंगोला, बेनिन, बोटस्वाना, बुरुंडी, कॅमरून, केप वेर्दे, मध्य आफ्रिकन संघराज्य, चॅड, काँगो, जिबावती, ईजिप्त, विषुववृत्तीय गिनी, इथिओपिया, गॅबॉन, गांबिया, घाना, गिनी, गिनी-बिसाउ, आयव्हरी कोस्ट, केनिया, लेसोथो, लायबेरीया, लिबीया, मादागास्कार, मालावी, माली, मॉरिटानीया, मॉरिशस, मोरोक्को, मोझांबिक, नायजर, नायजेरिया, रॅवांडा, आंबाटोमे, प्रिन्सीपी, सेनेगल, सेशल्स, सिएर्रा लिऑने, सोमालिया, दक्षिण आफ्रिका, सुदान, स्वाझीलँड, टांझानिया, टोगो, ट्यूनिशिया, युगांडा, अपर व्होल्टा, झाइरे, झांबीया, झिंबाब्वे हे स्वतंत्र देश आसात.

नैऋत्य आफ्रिका हो वाठार दक्षिण आफ्रिकेच्या सत्तेखाला आसा. हाका संयुक्त राश्ट्रसंघान १९८० वर्सा स्वतंत्र राश्ट्र जाहीर करून नामिबीया हें नांव दिलें, पूण दक्षिण आफ्रिकेन अजून ताच्यावेली सत्ता सोडूंक ना, तेभायर ट्रान्सकेई, बोफुर्डेटस्वाना, बँडा, आनी किस्केई हांच्या स्वतंत्रतायेक आंतरराश्ट्रीय थराचेर मान्यताय ना.

**भूंयवर्णनः** हो खंड चडसो पोरन्या घटमूट आनी विस्तीर्ण फातरांपसून तयार जाला. हाचे उत्तरेक ॲटलास दोंगर आनी दक्षिणेक केप दोंगराच्यो वळी आसात. हांचे मदीं ऊंच सकयल अशे ल्हान व्हड दोंगर आनी फातरांचे वाठार आसात. विस्ताराच्या मानान हांगा ऊंच दोंगर आनी चड सकयल्लीं मळां उणीं आसात. २,५०० मी. परस ऊंचायेचे वाठार चड नात पूण जे आसात ते ज्वालामुखीच्यो तेंगश्यो नाजाल्यार कडक आनी घट आसात. १५० मी. परस उण्या उंचायेची भूंय दर्यादिगेवेल्यान ८०० किमी. परस भितर आसा.

हांगा रुक्का, टांगानिका, किवू, एडवर्ड, आल्बर्ट, म्वेरु, उपेम्बा, व्हिक्टोरिया हीं नामनेचीं तळीं आसात. दर्यादिगांवेले ल्हान सान आनी कांय काळापुरतेच व्हांवपी कांय प्रवाह सोडले जाल्यार, खंडांत फकत ९ व्हडल्यो न्हंयो आनी तांचे जाळे पातळ्ळां. ते पैकी चॅड न्हंय दर्याक वचून मेळना. कितल्याशाच न्हंयांचीं पात्रां चड खोल नात. वाठाराच्या उंच सकयलपणाक लागून न्हंयो व्हांवतात ते वाटेंत तरेतरेचे धबधबे तयार जाल्यात.

काँगो न्हंयचो विस्तार सगळ्यांत चड म्हळ्यार ३६,९०,७०० चौ. किमी. मेरेन आसा. तिची लांबाय ४,३७१ किमी. आसा. नायल न्हंयचो विस्तार सुमार २८,७५,००० चौ. किमी. आसा आनी लांबाय सुमार ६,६९० किमी. ही न्हंय जगांत सगळ्यांत चड लांबायेची आसा. एका वाळवंटांतल्यान पासार जावनय तिचें उदक उणें जायना. तिची मुखेल उपन्हंय नील नायल ही आसा. नायजर ही न्हंय सुमार ३,१८५ किमी. लांबायेची आसा. झांबेझी ३,५४१ किमी., ऑरेंज २,०९२ किमी. लांबायेच्यो आसात. तेभायर लिंपोपो, मौलूया, चेलिफ, मेजेर्दो ह्या सारक्यो न्हंयोय आफ्रिका खंडांत आसात.

**हवामानः** ह्या खंडाच्या विस्ताराक लागून हांगाचें हवामान विंगडविंगड तरांचें आसा. ३७° उत्तर आनी ३५° दक्षिण ह्या अक्षवृत्तीय विस्ताराक लागून दक्षिण आनी उत्तर ह्या दोनूय वाठारांतलें हवामान थंय आसा.

तेभायर मदल्या वाठारांत विषुववृत्तीय हवामान आसा. उत्तर वाठारांनी जेन्ना शिंयाचो ऋतू आसता तेन्ना दक्षिण वाठारांनी गीम आसता.

सहारा-कालाहारी वाळवंटांतलो वाठार, झांबेझी न्हंयचो वाठार, विषुववृत्ताकडलो वाठार आनी दक्षिण दिकेंतले वाठार ह्या सगळ्या वाठारांनी हवामानांत सामके फरक आसात. दक्षिण वाठारांतल्या दर्यादिगेवेल्यान येवपी आनी उदेंत अस्तंतेकडल्या वाऱ्याक लागून दर्यावेळांवेल्या वाठारांनी पावस बरो पडटा. उत्तर दिकेक आशिल्ल्या भूंय मध्यसागरावेल्यान व्हांवपी वारें उत्तरेच्या वाठारांनी पावस हाडटा. वाळवंटांच्या वाठारांनी बदलपी हवामानाक लागून धुल्लाचीं वादळां जातात.

**खण संपत्ती:** जगांतले खण संपत्तींत आफ्रिकेचो वांटो बरोच चड आसा. हागाचीं चडशीं खनिजां निर्यात जातात. जड खनिजांचें हांगा उत्पादन जाता. कोळसो संवसारीक उत्पादनाच्या २% परस उणो, १९६० ते १९७० मेरेन पेट्रोलियम १% परस उणें, मीठ १.५%, बॉक्साइट १.५% आनी लोखणाचे धातू २% इतलेंच उत्पादन हांगा जातालें. पूण जगांतल्या कांय मोलाच्या खनिजांमदीं आफ्रिका सगळ्यांपरस फुडें आसा. जगांत मेळपी हिऱ्यांमदीं ९८% हिरे हांगा मेळटात. झाइरे सारक्या देशांतले ८५% हिरे उद्येगधंद्यात वापरतात जाल्यार फकत १५% रत्नां म्हूण वापरतात. हांगा जगांतली पयली म्हत्वाची युरेनियमची खण आशिल्ली आनी कितलोसोच तेंप मेरेन रेडियम मेळपाचें तें एकूच ठिकाण आशिल्लें. जगांतल्या भांगराभितर अर्द्यापरस चड भांगर आफ्रिकेंत मेळटा. भांगराचें चडशें उत्पादन दक्षिण आफ्रिका संघराज्यांत जाता. कोबाल्टच्या संवसारीक उत्पादनांपैकीं ७०% झाइरे आनी झांबीयांतल्यान येता. क्रोम ४०% दक्षिण आफ्रिका संघराज्य आनी झिंबाब्वे, मँगनीज ३०% घाना आनी झाइरे हांगासरल्यान येता. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत सहारा सारक्या वाळवंटांनी सैमीक तेल आनी वायूचो सोद लागलो.

**वनस्पत:** आफ्रिकेंतली सैमीक वनस्पत म्हळ्यार रानां, तण आनी वाळवंटांत वाडपी वनस्पत. दाट रानां आनी वालींच्यो जाळयो हांणी ह्या खंडाचो १०% परस मात्सो उणो वांटो भरला. तेभायर सॅव्हानाचो लांबरुंद तणाचो वाठार हांगा आसा, उत्तरेची आनी दक्षिणेची दर्यादिगेवेली वनस्पत एकामेकांपरस वेगळी आसा. उत्तरेखटेंतल्या दर्यादिगेवेल्या वाठारांनी युरोपीय वनस्पत बरीच दिसता. ॲटलास दोंगराचेर खाशेली आफ्रिकन वनस्पत सांपडटा. मोरोक्को, ट्युनीशिया आनी आल्जेरिया हांगा ऑलिव्ह, द्राक्षां हांच्याभायर बूचाचो ओक आनी ॲटलास, सीडार ह्या रुखांची रानां आसात. ह्या देशांनी आनी लिबियांत माकी ही सदां पाचवीचार आसपी वनस्पत आसा. ॲटलास दोंगराच्या उंचेल्या वाठारांनी आनी अस्तंतेकडल्या वाळवंटी वाठारांनी बऱ्याच जाग्यांचेर स्टेप तण आसा. ईजिप्तचे नायल न्हंयेलागसारचीं शेतां न्हंयेच्या उदकाक लागून सदांकाळ पाचवीं उरतात. कांय वाठार म्हळ्यार वनस्पत आनी उदक नाशिल्लीं सुकीं वाळवंटां. सहाराच्या दोंगरी वाठारांनी आनी कांय हेर वाळवंटांनी युरोपीय वनस्पत सांपडटा. वाळवंटांनी खाशेली वनस्पत म्हळ्यार खाजराचे रुख. तेभायर ताड आनी निवलांच्यो तरेकवार जातीय दिश्टी पडटात. युफोर्बिया नांवाचे झुंबराच्या आकाराच्या निवलांचें रान इथिओपियांत सांपडटा. नायल न्हंयेच्या वयल्या वाठारांत पॅपीरसची झाडां आसात. ह्या झाडांचो पूर्विल्ल्या काळार बरोवपाखातीर तकटे करपाक उपेग जातालो.

सकयल्या वाठारांतलीं ऊंच झाडां ६०-६५ मी. मेरेन वाडटात. तातूंतल्या बऱ्याच झाडांचीं मुळां खोल आनी पयस मेरेन पातळिल्लीं आसात. हांगाच्या बऱ्याच रुखांचें लांकूड मोलाचें आसता. आफ्रिकन महॉगनी, इरोको, म्व्हूल, ओबेची, आफ्रिकन रोजवूड, आफ्रिकन ट्यूलिप, आफ्रिकन एबनी, रेड आयर्नवूड, अफ्रारा, यॅलो सॅटिनवुड, ॲलिग्ना, आफ्रिका ओक हांच्या लांकडाचें मोल बरेंच आसा. हांचो उपेग रेल्वे स्लीपर, फर्निचर, आदाराचे खांबे सारक्या कितल्याशाच गजालींखातीर जाता. काँयो झेब्रावूड नांवाचे निर्यात जावपी लांकूडय हांगा मेळटा. कांय रुखांच्या सालींतल्यान टॅनीन मेळटा तर कांय रुखांच्यो साली न्हेसण म्हूण वापराक येतात. बऱ्याच रुखांच्या सालींचे दोर तयार करतात. जाग्यांप्रमाण आनी ऋतूंप्रमाण आंबो, चिंच, वड, नीम, अर्जून, कोंडे, बेतां आनी तरातरांची उपेगी झाडां बरींच वाडटात. हीं झाडां चडशीं तणाचे प्रदेश आनी पावसाळी प्रदेश हांच्यामदीं वाडटात. शिया झाडाच्या फळांपसून लोणयासारके पदार्थ तयार करतात. जाल्यार मुसुंगा ह्या झाडांपसून तयार केल्लें सरबत लोकप्रिय आसा. बेनल्ली, बॅगोनिया बऱ्याच जाग्यांचेर जातात. व्हड रुखांपोंदा, ल्हान व्हड झोपां वाडिल्लीं दिसतात. रबर, कोको, कोला, रोबस्टाकॉफी हांची पिकावळ रानांच्या वाठारांनी जातात. तेल दिवपी ताड आनी मोव कापूस दिवपी कापोक (सांवर) हे रुखय रानांनी सांपडटात. तरातरांची वखदी आनी वासाची वनस्पत आफ्रिकेंत वाडटा.

विषुववृत्तीय रानांभोंवतणी सगळेवटेन सॅव्हानाचो वाठार पातळ्ळा. एलेफंट तण हें हांगाचें खाशेलें तण. हांगा तरातरांचीं तणां आसात. तातूंत मदींमदीं रुंद पानांच्या रुखांचीं रानां आसात. उदेंत आफ्रिकेंत तांकां मायोंबो अशें म्हण्टात. ह्या वाठारांत एक ते अडेज मी. ऊंच आनी झोपांसारको वाडपी तणाचो एक प्रकार सांपडटा. ह्या तणाच्या वाठारांत ६ ते २० मी. उंचायेचीं गांठी सारकीं दिसपी फांदयांची झाडां मदींमदीं दिसतात. शेताक फाव सारक्या वाठारांनी अदींमदीं शीनट, लोकस्टबीन, चिंच सारकेय रुख दिसतात. थंड वाठारांनी उदकाचे देगेर पाचवींचार रानां दिश्टी पडटात. सुक्या वाठारांनीं ल्हान पानांचीं कांटयारीं झाडां आसात. तातूंत बाभळीचींय झाडां आसात. पयसुल्ल्या वाठारांनी सत्रेच्या आकाराचीं झाडां आसात. हांगा तणय उणें आसता आनी आसता तें उणे ऊंचायेचें. झांबीयांत आनी ताच्या लागींच्या वाठारांनी पानां झडपी रुख आसात. तांतलो ऱ्होडेशियन साग म्हत्वाचो. मनशांची वाडपी संख्या आनी उजो हाका लागून रुख उणे जावन सॅव्हाना हें तण वाडीक लागलां. तण गोरखांक चरपाक आनी घरांची पाखीं तयार करपाक उपकारता. ऊंच वाठारांतल्या स्वीट व्हेल्ड हांगाचें तण सुकल्या उपरांत जनावरांक खावंक बरें पडटा. झांबेझी आनी लिंपोपो वाठारांनी मोपेनची रानां आसात. थंय काँगोकोपल नांवाच्या बऱ्याच उपेगी पडपी झाडांची दाटी आसा. कालाहारीचो वाठार आनी सेनेगल सावन उदेंत आफ्रिकेवटेन वचपी पटो कांट्यांच्या झोपांनी भरला. थंड वाठारांनी बाभळी सारकीं दीक दिवपी आनी धुपासारके बऱ्या वासाचे पदार्थ दिवपी झाडां आसात. वखदी झाडांचेंय प्रमाण बरेंच आसा. हांगाचें तण ल्हान आनी वाळवंटाकडल्या स्टेप प्रकारचें आसा. उदेंतेच्या वाठारांत सेल सारकीं ऊंच वाडपी झाडां आसात. ह्या झाडांक बरेच कांटे आसतात. न्हंयचे लागीं उदकाक तेकून चिखलांत वाडपी झाडांचे रान आसा (Mangrove forest). उदेंतेच्या वाठारांत चिखलांत वाडपी झाडां आशिया खंडांतल्या झाडांकडेन बरींच लागीं आसात. ही वनस्पत तांबडो दर्या ते दरबानवटेन दक्षिणेकडेन मेरेन सांपडटा. आंगोलांतल्या लोंगा न्हंयचे देगेर आनी सेनेगल न्हंयचे देगेर ही चिखलांतलीं झाडां चड दिश्टी पडटात. वाल्व्हिसबे ते मॉकमेडीस मेरेनच्या वाठारांत वेल चिटसचिया नांवाचें फकत आफ्रिकेंत वाडपी एक खोशेले तरेचें झोंप वाडटा. हाचो मुळ्याभशेन सुमार ३० सेंमी. दाट कुडको भुंयेखाला आसता आनी वयर फकत दोनूच पानां येतात.

दोंगरी वनस्पतीमदीं सदांच पाचवीं आसपी रानां, रुंद पानांचीं आनी पानां झडपी झाडां, तण, कोंडे मेळटात. उंचायेवेल्या रानांत वाडपी रुखांचेर शेळो आनी बेनल्लांची रास आसता. ज्यूनिपर, हॅगेनिया, निडीया सारकीं झाडांय हांगा मेळटात. दोंगराच्या वाठारांनी व्हायोलेट, डॉक, क्रेनूसब्रिल, वुडसॅनिकल, बटरकप, स्कॅबियस सारके युरोपीय जातीचे रुख मदींमदीं दिश्टी पडटात. गोरखचिंच (Baobab) सारकें झाड हांगा बऱ्याच प्रमाणांत आसा.

उदेंतेकडेन आशिल्ल्या तणांच्या वाठारांक 'हायव्हेल्ड' म्हण्टात. मादागास्कार जुंव्याचे उदेंतेक पावसाचीं रानां आसात. अस्तंतेक पानां झडपी झाडांची रानां, आनी मदल्या वाठारांत रुख नाशिल्लो तणांचो

वाठार आसा. नैऋत्य वाठारांत दाट पानांच्या निवलांच्या जातीची वनस्पत सांपडटा. मादागास्कार जुंव्यावेली वनस्पत आफ्रिकेच्या मूळ भुंयेपरस विंगड आनी तरांतरांची आसा.

रानां आनी तरेकवार वनस्पत हें आफ्रिकेचें खाशेलेंपण जावन आसा.

**मोनजातः** आफ्रिकेंतली मोनजात तरेकवार आनी संख्येन भरपूर आसा. आफ्रिकेची लांबरूंद भूंय, विषुववृत्तीय आनी गरमेच्या हवामानांत आशिल्ले ह्या खंडाचे वाठार, युरेशियाकडेन आयिल्लो बऱ्याच तेंपाचो संबंद आनी त्या वाठारांतल्यान आफ्रिकेंत आयिल्ली मोनजात हाकालागून हांगाच्या तरेकवार मोनजातीक जाय तशी परिस्थिती फाव जाल्या. हांगाचे पयलींचे आदिवासी शिकार करून जियेताले. मनशांची संख्या हांगा वाडूंक लागल्याउपरांत मोनजातीची जीण इल्ली इल्ली उणी जावंक लागली. युरोपीय लोकांच्या वसाहतींचे उदरगतीन हांगाचे मोनजातीचेर खर परिणाम केलो.

सहाराच्या दक्षिणेवटेनचो वाठार तणाचेर जगपी मोनजातीच्या व्हडल्या व्हडल्या पंगडांक आनी तांच्या मांसाचेर जियेवपी जनावरांक अन्नाचे नदरेंतल्यान बऱ्याक पडटा. पूण विषुववृत्तीय पावसाच्या रानांनी तणाचेर पोट भरपी जनावरां रावंक शकनात. भूंयचर जनावरां सामकींच उणीं सांपडटात. ऊंच झाडांचेर मात माकड, सुकणीं आनी तरांतरांचे सोरोप आसतात. सूर्याचो उजवाड मेळोवच्याखातीर ऊंच वाडपी झाडांच्या दाट रानांनी, झोपांनी रावपी किडे तरांतरांचे आसतात. किडे, सुकणीं, माकडां, आनी हेर जनावरांच्या आवाजान रानां गाजिल्लीं आसतात. आफ्रिकेच्या उत्तर दर्यादिगेवेल्या मोनजातीभितर दक्षिण युरोपीय, भूंयमध्यसागरी आनी नैऋत्य आशियांतली मोनजात भरसल्या. ईशान्य आफ्रिका आनी इथिओपियाच्या उंचेल्या वाठारांनी तांबड्या दर्याचे पलतडची अरबस्तानांतलीं जनावरां दिश्टी पडटात. मादागास्कार जुंवो खूब तेंपापयलींच मूळ भूंयेकडल्यान पयस गेल्ल्यान थंयची मोनजात मूळ आफ्रिकेंतल्या मोनजातीपरस वेगळी आसा.

सस्तन जनावरांच्या वट्ट १७ मुखेल जातींमदल्यो १३ आफ्रिकेंत सांपडल्यात. किडे खावपी मोनजातीच्या स जातींतल्यो चार जाती मूळ आफ्रिकेंतल्यो आसात. हातूंत मादागास्कारचे टेनेरेक्स, उत्तर आफ्रिका ते केप मेरेन सांपडपी एलेफंट चिचुंदऱ्यो, विषुववृत्तीय उदकांतलो ऑटर आनी तरेकवार चिचुंदऱ्यो आनी हेजहॉग हे आसात. वागोळीं बरींच आसात. पूण तांच्या १० प्रकारांमदीं आफ्रिकेचो खास असो एकय प्रकार ना. फ्रूट बॅट (एक प्रकारचें वागोळें) हांची संख्या सगळ्यांत चड आसा. अस्तंत आफ्रिकेंत भयांकृत हॅमरहेड नांवाचें वागोळें आसा पूण 'व्हॅम्पायर बॅट' हे जातीचीं वागोळीं मात हांगा दिश्टी पडनात.

आफ्रिकेंत माकडांच्यो तरेकवार जाती आसात, तेभायर तांची संख्याय बरीच आसा. वायव्य वाठारांत बार्बरी, तणांच्या वाठारांत बुश बेबी, रानांनी पॉटो, बॅबून अशा कितल्याशाच तरांचीं माकडां हांगा पळोवंक मेळटात. गोरिला आनी चिंपाझी फकत आफ्रिकेंतूच आसात. अँटइटर (मुयो खावपी), मॅनॅटी, डुगाँग सारकीं जनावरां रानांनी आसात. सोशे, कोळहुंदीर, झाडावेल्यो, जमनीवेल्यो आनी उडटात तसल्यो चानयो, केळ्यांच्या रानांतले हुंदीर, साळ, मुंगूस हीं ल्हान-व्हड जनावरां, विंगड विंगड वाठारांनी आसात. जर्बोआ फकत उत्तरेवटेन मेळटा. इथिओपिया हांगा वायटी खावपी आर्डव्हार्क आसा. तणाच्या वाठारांनी आनी तांच्या लागींच्या रानांनी हत्ती, हायरेक्स, झेब्रा, गाडव, गेंडो, तरांतरांचीं हरणां, कुरंग (gazelle), फेनेक, एलंड, नू, इंपाला, ओकापी, ल्हान व्हड म्हांयडोळ ह्या सारकी मोनजात सांपडटा. उदक उणे आशिल्ल्या वाठारांनी जिराफ मेळटात. रानमेंढरां, रानबोकडां, हरणांच्यो कांय जाती, आयबेक्स सारकी मोनजात फकत उत्तर वाठारांत थोडी आसा. वाळवंटाच्या वाठारांनी उंट आसात. चिखलाच्या वाठारांनी हिप्पोपोटेमस (पाणघोडो), तरेकवार बेबे, न्हंयो-तळ्यांभितर मानगीं आनी कांसव बऱ्याच प्रमाणांत दिश्टी पडटात. केप वाठारांत काळो रेडो सांपडटा. म्हांयडोळाभशेन कोब्रा (पारो), मांबा, व्हायपर, पफ़ॲडर, हॉर्न्‌ड अँडट सारक्या जातींचे सोरोप आनी पाली, शेड्डे, नायल मॉनिटर सारकी सरपटपी मोनजात आसा.

तण खावपी जनावरांफाटल्यान शिंव, चित्तो, बिबटो वाग, तरस, कोलो, सिव्हेट आदी मांसाहारी जनावरां आसात. आफ्रिकेंत कोलसुणीं आनी वांस्वेलां मात दिश्टी पडनात.

जळारां, मूस, कोळी, त्सेत्से नांवाचो मूस, मुयो, दोमळे, वायटी, सरपटपी किडे, रंगयाळे पाखे, म्हौंवामूस ह्या सारके तरेतरेचे किडे सांपडटात. हे किडे तणांच्या वाठारांनी आनी रानांतल्या झोपांनी चड आसतात. सुकणींय हांगा तरातरांची आसात. हातूंतली बरींचशीं स्थलांतर करपी आसात. हांगा मेळपी ७० तरेकवार सुकण्यांच्या प्रकारांत शहामृग, सेक्रेटरी बर्ड, देवमाशासारकी तकली आशिल्लें बकें, टुरॅको-म्हळयार केळीं खावपी सुकणें, कोली, हेल्मेट, श्रायक्स, शुगरबर्ड, हीं आफ्रिकेचीं खाशेलीं आसात. गिनी फाउल, ऑनपेकर्स, हनी गायडस् हीं इथिओपियांत सांपडपी सुकणीं. रानांच्या वाठारांनी मोर, कीर बरेच दिश्टी पडटात. सोबीत पाखांची तरांतरांची सवणीं हांगा आसात. गावपी सवणीं चुकून दिश्टी पडटात. घोण, गिदां, आयस, फ्लेमिंगो हेसारकीं सुकणींय हांगा आसात.

केप वाठारांत जॅकॲस, पेंग्विन, केपसील ही मोनजात आसा. आफ्रिकेंत मोनजातीची संख्या आनी प्रकार जगांतल्या सगळ्या खंडांपरस चड आसा, पूण मनशांच्या वावराक लागून हातूंतली कांय नश्ट जावपाची भिरांत निर्माण जाल्या.

**इतिहास आनी राजकी परिस्थितीः** आफ्रिका हो एक खंड जरी दिसलो तरी इतिहासीक, धर्मीक आनी वंशीक नदरेंतल्यान तांचे दोन विंगडविंगड वांटे जाल्ले दिसतात. सहारा हें वाळवंट ह्या खंडाच्या सुमार ४०% वाठाराचेर पातळ्ळां आनी ह्या वाळवंटाक लागून आफ्रिकेचे दक्षिण आनी उत्तर अशे दोन वांटे जाल्यात. सहारा वाळवंटाची लांबाय रुंदाय चड आशिल्ल्याकारणान आनी ह्या वाळवंटांतल्यान प्रवास चड कठीण जाल्ल्यान उत्तरेवटेनच्या वाठारांचो दक्षिणेकडेन संबंद चडसो येवंक पावलोना. ताका लागून ह्या दोनूय वाठारांच्या संस्कृतीक, धर्मीक आनी राजकी इतिहासांत बरोच फरक दिसून येता.

मनीस संस्कृतायेचे सामके पोरने पुरावे आफ्रिकेंत सांपडल्यात. तांच्यावेल्यान ह्या खंडांत मनीस १० लाख वर्सांपयलींसावन आशिल्लो म्हणपाचें समजता. कांय मनीसवंशशास्त्रज्ञांच्या मतान पयलो जगांतलो मनीस हांगासरूच आशिल्लो. खबर आशिल्ल्या इतिहासावेल्यान क्रि. पयलीं सुमार साडेतीन हजार वर्सां उत्तर आफ्रिकेंत ईजिप्तच्या लोकांनी बरेच पुरावे बरोवन दवरल्यात. ह्या पुराव्यांक लागून आफ्रिकेच्या इतिहासाचेर उजवाड पडटा. पूण सहाराचे दक्षिणेवटेनच्या वाठारांसबंदान खंयच इतिहासीक पुरावे नात, तेभायर खंयच्याच गजालींवेल्यान इतिहासाचो सोद घेवप शक्य जायना.

जगांतल्या पोरन्या संस्कृतायांमदीं ईजिप्तची संस्कृताय येता. नायल न्हंयच्या पिकाळ वाठाराक लागून पयलींचे ईजिप्त संस्कृतायेंतले लोक बरेच गिरेस्त जावंक पावले. इ.स. पयलीं हांगा बांदिल्ले पिरॅमीड ह्या लोकांच्या म्हानपणाची गवाय दितात. ह्या लोकांचे हेर दर्यादिगेवेल्या देशांकडेन वेपार-धंदे चलताले. क्रिस्तपयलीं २००० वर्सा ईजिप्तांतल्या लोकांचे फिनीशिया (आतांचो लॅबनान) आनी शेजरा आशिल्ल्या अस्तंत आशियांतल्या लोकांकडेन संबंद आशिल्ले. क्रि. पयलीं ११ व्या शेंकड्यांत फिनीशियन साम्राज्याचो विस्तार जालो आनी तांणी आफ्रिकेचे उत्तरेक भूंयमध्यसागर देगेर आपले वसाहतीची थापणूक केली. क्रि. पयलीं ८१४ वर्सा फिनीशियन लोकांनी कार्थेज शाराची थापणूक केली. आतांच्या ट्यूनिस शारालागीं खंयतरी हें शार आशिल्लें. ही फिनीशियाची संस्कृताय कितलींशींच वर्सां आफ्रिकेचे उत्तर देगेर आशिल्ली. पूण फुडें ती इल्ली इल्ली ना जावंक लागली आनी निमाणो क्रि. पयलीं १४६ वर्सा रोमन लोकांनी तिचो नाश केलो.

क्रि. पयलीं ५ व्या आनी ६ व्या शेंकड्यांत ग्रीक लोकांनीय हांगा

आपल्यो वसाहती वाडयल्यो आनी वेपाराक सुरवात केली, पूण देशांभितरल्या झगड्यांक लागून आनी इराणाआड जाल्या झुजाउपरांत ग्रीकांचो शेक हांगा उणो जालो. सुर्वेक रोमन लोकांनी कार्थेजच्या लोकांआड वेपाराक लागून बऱ्योच लडायो केल्यो पूण आपल्यो वसाहती बांदप तांकां शक्य जालें ना. रोमन लोकांनी इ.स. चे सुरवातीच्या ईजिप्त जिखून घेतलो आनी ईजिप्त रोमन साम्राज्याचोच एक वांटो जावन गेलो. रोमन साम्राज्याआदीं हांगा ग्रीक साम्राज्य आशिल्लें, पूण रोमन लोकांनी कार्थेजच्या वाठाराक आफ्रिका हें नांव दवरलें आनी फुडें तें सगळ्या खंडाचेंच नांव जावन गेलें.

रोमन साम्राज्य आफ्रिकेंत बरेच शेंकडे थिरावल्याउपरांत ४२९ त व्हँडॉल लोकांनी आफ्रिकेचेर घुरी घाली आनी रोमन लोकांचें साम्राज्य काबार केलें. फुडें ६ व्या शेंकड्यांत हो वाठार बायझेंटिन साम्राज्याच्या शेकातळा गेलो. ६४२ वर्सा अरब लोकांनी हांगा पावल दवरलें आनी आफ्रिका आपल्या हातांत घेवंक सुरवात केली. ल्हव ल्हव उत्तर आफ्रिकेचे अस्तंत देगेवेलो मोरोक्कोमेरेनचो वाठार तांणी जिखून घेतलो. आठव्या शेंकड्यामेरेन अरबांनी हांगाचो चडांत चड वाठार आपले सत्तेखाला दवरलो.

इतिहासीक नदरेंतल्यान अरबांनी हांगा दोन म्हत्वाच्यो गजाली केल्यो त्यो म्हळ्यार अरबी भाशेचो आनी इस्लाम धर्माचो प्रसार. ह्या दोन गजालींक लागून आफ्रिकेंतल्या अरब राश्ट्रांचो आशियांतल्या अरब राश्ट्रांकडेन लागींचो संबंद आसा. ११ व्या शेंकड्यापयलींच आफ्रिकेंतल्या बऱ्याच निग्रो राज्यांनी इस्लाम धर्म आपणायलो. आठव्या शेंकड्यासावन ११ व्या शेंकड्यामेरेन घाना नांवाचें निग्रो राज्य नायजर न्हंयच्या वयल्या वाठारांत बरेंच फुडारिल्लें. हाचें कारण म्हळ्यार सहारा वाळवंटांतल्यान जावपी वेपाराचेर आशिल्लो तांचो शेक. ११ व्या शेंकड्यांत मालीक जातीच्या लोकांनीय घानाचेर जैत मेळयलें आनी माली नांवाच्या साम्राज्याची थापणूक केली. पूण सोळाव्या शेंकड्यांत म्हळ्यार १५९१ वर्सा सोंघाय लोकांनी माली राज्य नश्ट केलें आनी अशेतरेन अस्तंत आफ्रिकेंतलें पयलें निग्रो राज्य काबार जालें.

आफ्रिका खंडाच्या आर्विल्या इतिहासाक युरोपीय भोंवडेकार आनी संशोधक हांच्या ह्या खंडांतल्या भोंवडेवेळार सुरवात जाता. सहाराचे उत्तरेवटेनचे दर्यादेगेची युरोपीय लोकांक बऱ्याच शेंकड्यापयली म्हायती आशिल्ली. पूण आफ्रिकेच्या भितरल्या वाठारांनी नदर पावपाक तांकां पिळग्यांनी वर्सां लागलीं. १४ व्या शेंकड्यात चीनांतल्या मिंग राजवंशान मंगोलियन तार्तर लोकांचेर जैत मेळयलें आनी त्याच काळांत आशियांत जावपी भानगडींक लागून युरोपीय लोकांचो चीनाक वचपी खुश्कीचो मार्ग बंद जालो. उदेंतेकडल्या वाठारांनी आपलो संबंद तिगोवन दवरचेखातीर युरोपीय लोकांक दुसरो मार्ग सोदून काडपाची गरज पडली. पोर्तुगालचो राजकुंवर हेन्री (१३९४-१४६०) हाच्या फुडारपणाखाल पोर्तुगेजांनी हांगा संशोधन करून अस्तंत दर्यादिगांचेर आपल्यो वसाहती तयार केल्यो. ताच्या उपरांत बऱ्याच वर्सांनी म्हळ्यार १६ व्या शेंकड्यांत ब्रिटीश, डच, फ्रेंच ह्या युरोपीयांनी हांगा ल्हान सान वसाहतींची थापणूक केली. ह्या वसाहतींचो उपेग उदेंतेकडेन वचपी तांच्या व्हड्यांक गरजेच्या वस्तींची पुरवण करपाखातीर जातालो. तेभायर हत्तीचे दांत, भांगर आनी गुलाम हांचो युरोपीय लोकांनी थळाव्या लोकांकडेन वेपार सुरू केलो. गुलामांचो वेपार हो मुखेल उद्येग जालो. १४४१ वर्सा पयलेच फावट हांगाचे गुलाम पोर्तुगालांत पावले पूण ह्या धंद्याक नेट आयलो तो १६ व्या शेंकड्याच्या सुरवातीसावन. शेंकड्यांनी वर्सां अरब हांगासावन गुलाम व्हरून अस्तंत आशियांतल्या देशांनी विकताले. युरोपीय लोकांनी हांगाच्या लोकांचो फायदो घेवन, तांच्याभितर झुजां लावन गुलाम धरले आनी ह्या गुलामांक अमेरिकेंत व्हरून विकपाक सुरवात केली. युरोपीय लोकांनी भेटयल्या तरांतरांच्या वस्तूंक लागून हांगाचेच लोक गुलामांच्या धंद्याक फाटबळ दिवंक लागले. अस्तंत आफ्रिकेंतलो दाहोमीचो राजा गुलामांक धरचेखातीर आपलें सैन्य धाडटालो. बरेच फावट रातीच्या वेळार युरोपीय आनी तांकां मदत करपी लोक निग्रो लोकांच्या घरांक उजो लायताले आनी उज्याचे भिरांतेन पळपी लोकांक धरून गुलाम करताले. १६ ते १८ व्या शेंकड्यामेरेन हो धंदो चालूच आशिल्लो. ह्या तीनशीं वर्सांच्या काळांत सुमार देड ते दोन कोटी गुलाम अमेरिकेक व्हरून विकले. तेभायर गुलामांक व्हरपी व्हड्यांचेर परिस्थिती सामकी वायट आसताली. जाणकारांच्या मतान सुमार ४० ते ५० लाख गुलाम दर्यावेल्या प्रवासांतूच मेल्यात. गुलामांच्या वेपाराआड युरोपांत आनी अमेरिकेंत बोवाळ जावंक लागलो. गुलामगिरी थांबोवपाखातीर चळवळी सुरू जाल्यो. हे चळवळींक लागून आयिल्ल्या कायद्यान अमेरिकेंतल्या गुलामांची मुक्तताय जाली. १७८७ वर्सा ब्रिटिशांनी आफ्रिकेचे अस्तंतेवेले देगेर सिएर्रा लिऑने वाठारांत मुक्त जाल्ल्या गुलामांखातीर एके वसाहतीची थापणूक केली. १८२१ वर्सा अमेरिकेन ह्याच वाठारांत दुसरी वसाहत तयार केली, तिका 'लायबेरीया' अशें नांव दिलें. ही वसाहत फुडें १८४७ वर्सा पुराय स्वतंत्र जाली. युरोपीय राश्ट्रांनी गुलामगिरीचेर जरी बंदी आसली तरी अरब राश्ट्रांनी ही चाल बंद जावंक नाशिल्ली. अरब देशांभितर जावपी गुलामांचो वेपार बंद करचेखातीर ब्रिटिशांनी १९ व्या शेंकड्याच्या शेवटाक न्यासालँड आनी युगांडा हे वाठार आपले सत्तेखाला घेतले आनी थंयच्यान गुलाम मेळोवपाचो अरबांचो मार्ग बंद केलो.

उद्येगीक क्रांतीउपरांत कारखान्यांखातीर माल मेळोवपाक युरोपांतल्या चडशा राश्ट्रांची नदर आफ्रिकेचेर गेली. थंयच्यान ताडाचें तेल, रबर आनी मदेराच्या लांकडाची पुरवण युरोपांत जावंक लागली. हांगा सावन कापूस, कॉफी, कोको, साकर ह्या सारक्यो गजालीय युरोपांत वचूंक लागल्यो. हांगाचो माल युरोपांत विकचेखातीर हांगाची बाजारपेठ आपल्या हातांत घेवप असो युरोपीय राश्ट्रांचो विचार आशिल्लो. ते नदरेन पोर्तुगालान १४८२ वर्सा घानाच्या वाठारांत पावल दवरलें. फुडें ताणी आंगोला हांगाय आपलो शेक गाजोवंक सुरवात केली. दक्षिण आफ्रिकेंत केप टावन हांगा डच लोकांनी १६५२ वर्सा उदेंतेकडेन वचपी आपल्या व्हड्यांक सामानाची पुरवण करचेखातीर आपलें केंद्र केलें. ह्या केंद्राचो फुडें वसाहतींत बदल जालो. १६५८ वर्सा फ्रेंचांनी सेनेगल वसाहतीची थापणूक केली. त्या आदीं १५६२ त ब्रिटिशांनी सिएर्रा लिऑने आपल्या हातांत घेतिल्लें. १८०६ वर्सा तांणी केप ऑफ गुड होप चेर आपलो शेक गाजयलो. १९ व्या शेंकड्याच्या मध्यापयलींच युरोपीय देशांनी हांगा आपापल्या साम्राज्याची बुन्याद मारली.

आफ्रिका खंडाच्या भितरल्या वाठाराचो सोद लागल्याउपरांत ताचेर शेक गाजोवपाखातीर सर्त लागली. अशे तरेन ही सर्त चालू आसतना अमेरिका आनी तेरा हेर राश्ट्रांनी १८८४ वर्सा आफ्रिकेसंबंदान एक परिशद बर्लीन हांगा आपयली. हे परिशदेंत एक थाराव आयलो. जातूंत काँगो न्हंयचे येरादारीचेर आंतरराश्ट्रीय नियंत्रण आसचें आनी आफ्रिकेंतल्या वाठारावेली युरोपीय राश्ट्रांची सत्ता तांच्या थंयच्या शक्तीवेल्यान थारावची अशें थारलें. आपल्या फायद्यापासत किरिस्तांव मिशनऱ्यांच्या थंयच्या कार्याक फाटबळ दिवन हे परिशदे उपरांत दरेक राश्ट्रान आफ्रिकेंत आपली शक्त वाडोवपाचे यत्न सुरू केले. १९०४ वर्सा फ्रांसान ईजिप्ताविशीं ब्रिटनाक सगळे अधिकार दिले आनी ब्रिटनाकडल्यान मोरोक्कोचो हक्क मेळयलो. स्पेनाच्या हातांतय बरेच वाठार आयले. १९१४ वर्सा जेन्ना पयलें म्हाझूज पेटलें तेन्ना लायबेरीया आनी इथिओपिया सोडून सगळे आफ्रिकन देश युरोपीय राश्ट्रांच्या गुलामगिरीखाला आशिल्ले. म्हाझुजांत जर्मनीचेर जैत मेळयल्याउपरांत राश्ट्रसंघाच्या (League of Nations) यत्नांक लागून हांगा आशिल्ल्यो जर्मन वसाहती ब्रिटन, फ्रांस आनी बेल्जियम हांकां वांटून गेल्यो पूण ह्या वसाहतींचेर शेक गाजयतल्या राश्ट्रांचेर राश्ट्रसंघाची आनी फुडें संयुक्त राश्ट्रांची नदर उरताली.

पयल्या म्हाझुजासावन दुसऱ्या म्हाझुजामेरेन चडसो आफ्रिका खंड वसाहतवादी युरोपीय राश्ट्रांच्या शेकातळा आशिल्लो. फुडें १९२० वर्सा

दक्षिण आफ्रिकेंतल्या केप ऑफ गूड होप, नाताल, ऑरेंज फ्री स्टेट आनी ट्रान्सव्हाल ह्या चार ब्रिटीश वसाहतींची एकी जावन एक संघराज्य तयार जालें. हें राश्ट्र जरी ब्रिटीश राजकारणांतल्यान स्वतंत्र जालें तरी थंय कमी संख्या आशिल्ल्या 'गोऱ्या' लोकांचेच राज्य चलता. १९२२ वर्सा ईजिप्त स्वतंत्र जालें. १९३६ वर्सा इटलीन इथिओपियाचेर जैत मेळयलें. ह्या वेळार इटलींत मुसोलिनीचें सरकार आशिल्लें.

दरेक साम्राज्यवादी राश्ट्रान आफ्रिकेचेर आपली संस्कृताय, भाशा आनी धर्म हांचें वजें घालें. आपल्या राज्यकारभाराखातीर सकयल्या पांवड्यावेले नोकर मेळचे हे खातीर शिक्षणाचो प्रसार केलो.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या वेळार जर्मनी आनी इटली ह्या दोनूय राश्ट्रांचें सैन्य आफ्रिकेंत देंवलें, पूण ब्रिटीश सैन्याच्या फुडारपणाखाल हेर इश्ट राश्ट्रांनी तांचेर जैत मेळयलें. १९४१ वर्सा इथिओपियाची इटलीकडल्यान मुक्तताय जाली.

१९३० उपरांत आफ्रिकेंत बरेच राजकी पक्ष तयार जाले आनी तांणी आपल्या राजकी हक्कांची जाणविकाय आफ्रिकेच्या लोकांक करून दिवपाचे यत्न केले. दुसऱ्या म्हाझुजावेळार हांगा वातावरण मात्सें बदल्लें. लोक चडांतचड गिन्यान मेळोवपाखातीर फुडें सरले. १९४१ वर्सा रुझवेल्ट आनी चर्चिल हांणी म्हाझुजावेळार आफ्रिकेच्या खंयच्याच राश्ट्राक इश्ट राश्ट्रां गुलाम करचीं नात. तांकां दरेकल्याक आपनिर्णयाचो अधिकार मेळटलो, अशें जाहीर केलें.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांतच्यो राजकी घडामोडी चड म्हत्वाच्यो. ह्या घडामोडींतल्यान आफ्रिकेच्या चडशा राश्ट्रांच्या स्वतंत्रतायेची बुन्याद घाली. हांगा राजकी जागृताय जावन अरब, निग्रो आनी हेर फुडाऱ्यांक आपले राजकी शक्तीची जाणीव जाली. तांणी राज्य चलोवपी साम्राज्यवाद्यांकडेन स्वतंत्रतायेची मागणी केली. १९५० ते १९६० ह्या धा वर्सांत एका फाटल्यान एक आफ्रिकन देश स्वतंत्र जाले. हे गजालींक संयुक्त राश्ट्रसंघाची मोलादीक मदत जाली. १९५१ त लिबिया, १९५६ त ट्यूनिशिया, मोरोक्को आनी सुदान हीं राश्ट्रां स्वतंत्र जालीं. कांय राश्ट्रां मात साम्राटवाद्यांच्या शेकातळाक हालींहालीं मेरेन आशिल्लीं.

आफ्रिकेच्या आनी खासा करून निग्रो इतिहासांत १९६० हें वर्स भांगरा उतरांनी बरोवपासारकें. ह्याच वर्सा १७ वसाहतींक मुक्तताय मेळ्ळी. तांतल्यो १२ फ्रेंच वसाहती आशिल्ल्यो. मध्य आफ्रिका प्रजासत्ताक, चॅड, काँगो, दाहोमी, गाबाँ, आयव्हरी कोस्ट, मादागास्कार, माली मॉरिटॅनिया, नायजर, सेनेगल आनी अपर व्होल्टा ह्यो त्यो वसाहती आशिल्ल्यो. स्वतंत्रताय मेळोवपी निमाणो देश म्हळ्यार झिंबाब्वे. पयलीं हाचें नांव ऱ्होडेशिया आशिल्लें. १९८० वर्सा तो मुक्त जालो.

आफ्रिका खंडांतल्या सगळ्या राश्ट्रांक एकठांय हाडपाचे यत्न चालू आसात पूण ह्या कामांत बऱ्योच अडचणी आसात. खंडाचो विस्तार युरोप आनी अमेरिकेपरस चड आसा. हांगा शेंकड्यांनी तरेकवार भाशा लोक उलयतात, भाशाच न्हय तर संस्कृताय विंगड विंगड आसा. उत्तरेखटेनचीं राश्ट्रां इस्लामधर्मी आशिल्ल्यान अरबी भाशा आनी अरबी संस्कृतायेचो तांचेर बरोच प्रभाव पडला. सहाराचे दक्षिणेवटेन निग्रो संस्कृताय आसा. ते भायर युरोपीय राश्ट्रांनी हांगा राज्यकारभार केल्ल्यान तांचोय बरोच प्रभाव आसा. स्वतंत्रताय मेळ्ळ्या उपरांतलेगीत इंग्लीश आनी फ्रेंच भाशा राश्ट्रभाशेच्या रुपान बऱ्याच देशांनी थीर जाल्या.

आफ्रिकन देशांकडेन भारताचे संबंद बरेच पोरने आसात. वेपाराच्या निमतान बरेचशे भारतीय हांगा गेल्ले. तेभायर उंसाच्या मळ्यांनी काम करपाक भारतांतल्यान बऱ्याचशा कामगारांची आयात जाल्ली.

जगाच्या राजकारणांत आफ्रिका खंडाचें म्हत्व बरेंच वाडलां. पोरनी साम्राज्यशाय सोंपल्याउपरांत, महाशक्तींचे सत्ता गाजोवपाचे सर्तींत ह्या खंडाचो फुडारिल्ल्या देशांनी बेस बरो उपेग करून घेतला. हांगाच्या राजकी, शिक्षणीक आनी हेर मळांवेल्या फाटीं आशिल्ल्या परिस्थितीचो फायदो युरोपीय देशांक बरेच जालो. आंगोला सारकिल्या देशांत लश्कर धाडून क्युबासारके कम्युनिस्ट देश थंय कम्युनिस्ट विचार वाडोवपाचो यत्न करीत आसात.

**भाशाः** सुमार तीन शेंकड्यांआदीं दक्षिण आफ्रिकेंत वचून रावपी डच लोकांचे भाशेक 'आफ्रिकान्स' अशें नांव दितात. इंग्लीशीवांगडा तिका आफ्रिकन संघराज्याची राश्ट्रभाशा म्हणून मान्यताय आसा. मूळ डच लोकांची भाशा आफ्रिकनांनी आपल्याक जाय तशी वापरुन घेतली आनी तिची थंयच्या बोली भाशांकडेन भरसण जावन ही भाशा तयार जाली. पूण ही भाशा आफ्रिकन संघराज्याची आसा. पुराय खंडांत एका लाखापरस चड लोक उलयतात तसल्यो सुमार ३० भाशा आसात. उत्तरेखटेनच्या राश्ट्रांनी अरबी भाशेचो वापर बरोच जाता. सादारणपणान नायजर-कोंगो भाशापंगड, चारी नायल आनी नायलो सहारन भाशा आनी खोसीयन भाशा अशे हांचे तीन वांटे करुं येतात.

नायजर-कोंगो भाशापंगडाच्यो सुमार ८९० ल्हान व्हड भाशा आसात, तेभायर हजारापरस चड बोली आसात. हेर भाशा पंगडांच्योय अश्यो कितल्योश्योच भाशा आनी बोली आसात.

**लोकः** हांगा रावपी लोक विंगडविंगड प्रकारचे आसात. उत्तर आफ्रिकेच्या वाठारांनी रावपी जे लोक आसात ते आफ्रो-आशियायी भाशा उलोवपी आसात. ह्या लोकांमदीं मोरोक्को, ट्यूनिशिया, आल्जेरियाचे बर्बर आसात. हातूंतले लोक गंवांच्या कोराचे, काळ्या दाट केंसांचे आनी पातळ नाकाचे आसात. बऱ्याच वाठारांनी वर्णसंकर जाल्ल्यान सेमेटिक भाशीक अरबांकडेन बर्बरांचो संबंद आयलो. सहारा वाठारांत तर शुवा हे अरबवंशी लोक आनी तुआरेग हे बर्बरवंशी एकामेकांमदीं बरेच भरसल्यात. अस्तंत आफ्रिकेच्या वाठारांनी खासा करून सुदान वाठारांत काळ्या आनी ह्या गंवांकोराच्या लोकांच्या संकरांतल्यान तयार जाल्ले लोक दिश्टी पडटात. उदेंत आफ्रिकेंत अरब आनी बांटू ह्या थळाव्या लोकांमदल्या संबंदांतल्यान 'स्वाहिली' संस्कृतायेचे लोक निर्माण जावंक पावले. इथिओपिआ आनी सोमाली लँड हांगा हॅमेरीक भाशापंगडाचे कुशीटीक लोक दिसून येतात. उरिल्ल्या सगळ्या वाठारांनी निग्रो लोक दिश्टी पडटात. हे लोक दाट तपकीरी नाजाल्यार काळ्या किट्ट आंगाचे, दाट मुदयाळ्या केंसाचे, बसक्या नाकाचे आनी दाट ओंठांचे आसात. हांचे चार मुखेल प्रकार आसात. सहाराचे दक्षिणेवटेनचे सुदानी; अस्तंत आफ्रिकेच्या रानांतले गिनी; दर्यादिगेवेले, मध्य आनी दक्षिण आफ्रिकेंतले बांटू आनी उदेंत आफ्रिकेचे निलॉटिक.

बांटू प्रकारचे लोक हांगा सगळ्यांत चड आसात. हांच्याभितरले पावसाच्या रानांनी रावपी पिग्मी, कालाहारी वाठारांतले सान (बुशमॅन) आनी खोयखोय (हॅटिंटॉट्स) हे चड नामनेचे पंगड जावन आसात.

सामक्या दक्षिणेच्या वाठारांत १७ व्या शेंकड्यांत आयिल्ले युरोपीय आनी हेरकडले लोक दिसून येतात. बांटू ह्या थळाव्या लोकांकडेन तांकां आपली वसती करचेखातीर बरींच झुजां करचीं पडलीं.

जगांतली १०% लोकसंख्या आफ्रिकेंत आसा. चडशे लोक अस्तंत आफ्रिकेच्या वाठारांत रावतात. धा लाख लोकांपरस चड लोक संख्या आशिल्लीं शारां म्हळ्यार कायरो, अलेक्झांड्रिया हीं ईजिप्त देशांत, झाइरे देशांतलें किन्शाशा, नायजेरियांतले लागोसा, तेभायर काझाब्लांका, जोहान्सबर्ग, आदिस अबाबा आनी आल्जिअर्स.

**कलाकुसरः** आफ्रिकेच्या वाठारांत पूर्विल्ल्या काळासावन विंगड विंगड कलांच्यो पध्दती आनी शैली आसात. पंदराव्या शेंकड्यासावन आफ्रिका खंडाचो अस्तंतेकडल्या वसाहतवाद्यांकडेन संबंद येवंक लागिल्लो. पूण एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या शेवटासावन युरोपांतल्या संग्रहालयांनी दवरिल्ल्या आफ्रिकन कलाकुसरीक लागून जगाक ताची खबर कळ्ळी. तेचपरी युरोपीय, मिशनरी, वेपारी हांणी आफ्रिकेंत पुंजायल्ल्या वस्तूंक लागून सगळ्यांची नदर हांगाच्या कलाप्रकारांचेर पावली. पूण हांगाच्यो बऱ्यांतल्यो बऱ्यो कलाकृती वसाहतवाद्यांनी आनी मिशनऱ्यांनी लासून उडयल्ल्यान त्यो लोकांमुखार पावल्योच ना. आफ्रिकेच्या लोकांक युरोपीय लोकांनी हिणसावंक सुखात केली आनी ताका लागून हांगाच्या लोकांकय

स्वताच्या कलाकुसरीविशीं ल्हानपण आनी लज दिसूंक लागली.

आफ्रिकेंतले कलाकार आपल्या कलाकृतींनी सैमांतल्यो गजाली तशातश्यो चित्रीत करीनात. बऱ्याच कलाकृतींभितर सैमांत दिसपी गजाली वेगळे पध्दतीन निर्मीत करतात. हेच गजालीक लागून युरोपीय देशांतल्या कलाकारांचें लक्ष आफ्रिकन कलाकुसरीचेर गेलें. एकाद्रे गजालीचें वास्तववादी चित्रण करपाचे पारंपारिक कलापध्दतीक लागून उत्स्फूर्त कलानिर्मणेक आडमेळें येता अशे विचार युरोपांतल्या कलाकारांमदीं वाडीक लागिल्ले. आफ्रिकन कलेचें खोशलेपण रोखडेंच तांच्या काळजांत रिगलें. अस्तंत आफ्रिका, सहाराच्या दक्षिणेवटेनचो वाठार, उदेंतेकडलो तळ्यांचो वाठार आनी मध्य आफ्रिका, उत्तर सुदान, आंगोला हांगा निग्रो कला चड बरेतरेन वाडीक लागली. बांटू भाशा उलोवपी लोक ह्याच वाठारांनी आसल्या कारणान बांटू कला आनी निग्रो कला हांचो विचार एकठांय जावंक लागलो. पंगडांचे आनी जातींचे फुडारी, धर्मीक फुडारी आनी राजा हांची समाजाचेर मालकी आसताली, ताका लागून धर्मीक श्रध्दा, परंपरा आनी पोरन्यो चालीरिती हांचो प्रभाव कलेचेर पडला.

धर्मीक सण आनी उत्सवांनी रुपडीं, मूर्ती सारक्या गजालींक म्हत्व आसता. थारावीक आकार आनी पध्दतीच्यो मूर्ती, पेले, वाद्यां, पेटलां, रुपडीं, आसनां ह्या सारक्यो गजाली थारावीक उत्सवांखातीर आसतात. हांगाच्या कलाकाराक आपल्या समाजाभितर मान आसता. कलेचें शिक्षण ताका गुरु नाजाल्यार घरच्या जाण्ट्यांकडल्यान मेळटा. थंयचे परंपरेप्रमाण तो कलाकृती तयार करता. मूर्तीकला ही हांगाची मुखेल कला. चडश्यो मूर्ती लांकडांत कोरांतिल्ल्यो आसतात. तेभायर हत्तीचे दांत, ब्रॉंझ, लोखण, फातर, माती, शिंगां, हाडां हांचोय उपेग मुर्तीखातीर जाता. दरेक पंगडाची वा जमातीची मूर्ती तयार करपाची खाशेली शैली आसता. हांगाच्या लोकांमदल्या कलाप्रकारांत दिसपी सारकेपण आनी खाशेलेपण ह्यो गजाली मतींत दवरून हांगाच्या वाठाराप्रमाण कलापध्दतीचे पांच मुखेल प्रकार करतात. १. सुदान २. गिनी कोस्ट ३. नायजेरिया ४. कॅमरुन ५. अस्तंत आफ्रिका आनी दक्षिणेमेरेन मध्य आफ्रिका.

सहाराचे दक्षिणेवटेंतले, सुदान हांगासल्ले कलाकार अप्रतिरूप आकार आनी भुमितीक रचणूक हांचो वापर करून मूर्ती तयार करतात. ह्यो मूर्ती उब्या आकारांचे मनीस आनी जनावरांक दोळ्यांमुखार दवरून केल्ल्यो आसतात. हातूंत मनशाचें रुप एके वेगळेच शैलींतल्यान चित्रीत करतात. ह्या वाठारांतल्यो सेकोनी-कुन, डोगोन, मोस्सी, बाम्बारा आनी बागा ह्या जमातींच्यो कलाकृती नांव घेवपासारक्यो आसात.

गिनी कोस्टचे कलाकार सैमीक गजालींचेर मूर्ती करतात. सुदानच्या शिल्पांभशेन अप्रतिरुप आकारांचो वापर कांय मुर्तीनी केल्लो दिश्टी पडटा. थंयच्या कलाकृतींनी रुपड्यांचें प्रमाण चड आसा. जनावरांचे वा मनशांचे आकार ह्या रुपड्यांक दितात. बुंडूवा सांडे, पोरो ह्या सारक्यो जमाती हीं शिल्पां निर्मितात.

आयव्हरी कोस्ट हांगाचे बौउले कलाकार मूर्ती आनी रुपडीं तयार करताना वास्तव आनी प्रतिरुप आकारनिर्मणी करतात. घाना (गोल्ड कोस्ट)चे 'अशांटी' कलाकार भांगराच्या पीठ्याचें वजन काडपाक ब्रॉंझची सोबीत वजनां तयार करपांत फिशाल आसात. हांगाच्या अकुआ-बा जमातींतल्यो बायलो बाळंटेर बरो जावन भुरगें सोबीत जावचेखातीर खासा पध्दतीच्यो मूर्ती गुरवारपणांत आपल्यालागीं दवरतात.

नायजेरियाच्या कलाकारांचो कलेच्या मळावेलो पांवडो बरोच ऊंच आसा. हांगाच्या बेनिन आनी आयफे कलाकारांनी तयार केल्लीं ब्रॉंझची आनी मातयेचीं बरींच शिल्पां सांपडल्यांत. मूर्तीभितर भूमितीक आकार आनी अलंकारिक कोरांतिल्लें काम हांची बरी भरसण पळोवंक मेळटा. एकॉय, आयजो आनी आयबो हांच्यो लांकडाच्यो कलाकृती सोबीत आसात. आयबो जमातीचे लोक रुपडीं तयार करपांतय बरेच हुशार आसात.

कॅमरून मूर्तिशिल्पांमदीं लाकडाचेर भांगराचो, ब्रॉंझचो नाजाल्यार धव्या धातूचो पत्रो मारून तरांतरांची आसनां तयार करतात. तेभायर हांगा मूर्तीकलेपरस बेबो, शेड्डो, सोरोप हांच्या आकारांचीं शिल्पां चड दिसून येतात.

गाबाँ वाठारांतले बाकोरा आनी फँग जमातीचे लोक खाशेल्या प्रकारच्यो मूर्ती करतात. तांची शैली हेरांपरस वेगळी आसा.

काँगो वाठारांत लोखणाचे खिळे आनी पत्रे मारिल्ल्यो लांकडी मूर्ती दिसतात. अशा प्रकारच्यो मूर्ती लागीं दवरल्यार दुश्टपणां पयसावतात असो तांचो भावार्थ आसा. रुआंडा-ऊरुंडी वाठारांत शस्त्रां आनी भांगराची कलाकुसर चड आसा. ह्या सगळ्या वाठारांत बुशोंगो, बालेगा, मायुम्बे, बाकोन्गो, बाम्बाला, बायाका, बालुबा ह्यो सगळ्यो जमाती शिल्पां आनी मूर्तीभितर आपापलें खाशेलेंपण राखून आसात.

चित्रकलेच्या मळार आफ्रिकेंत दक्षिण आनी मदल्या वाठारांत पोरन्या होंवरींनी फातरांच्या वण्टींचेर चित्रां काडिल्लीं दिसतात. रेडिओ-कार्बन पध्दतीन तपासल्या उपरांत हीं चित्रां इ.स.प. ४५०० वर्सां आदलीं आसात अशें समजलां. आफ्रिकन लोकांक आंगाचेर गोंदून घेवपाचो भोव घोस्त. चडशे लोक आपल्या आंगार तरांतरांच्या भडक रंगांनी रंगोवन घेतात. पोरनीं चित्रां तांबड्या आनी काळ्या रंगांनी रंगयल्यांत. बांटू आनी बुशमॅन चित्रां काडपांत हुशार आसात.

सहाराचे दक्षिणेवटेनचें आफ्रिकन संगीत म्हळ्यार आदिम संगीताचोच एक प्रकार म्हूण वळखतात. ह्या संगीतांतलें सादेंपण, समाजीक, धर्मीक गजालींकडलो ताचो संबंद आनी नाचाचो ह्या संगीताक लाबिल्लो सांगात ह्या गजालींक लागून ह्या संगीताचें खाशेलेपण तिगून उरलां.

आफ्रिकन संगीतान जगांतल्या संगीताक मोलादीक पालव दिला. विसाव्या शेंकड्यांतलें युरोपांतलें बरेंचशें संगीत आफ्रिकन संगीताचेर आदारित आसा. आफ्रिकन लोक संगीत, जाझ, रॉक ह्यासारके प्रकार आफ्रिकन मूळ संगीतांतल्यान फुडें सुदारित केल्यात. तरांतरांची वाद्यां हांगाचे लोक वापरतात. 'थंब पियानो', 'झांझे' हीं हांगाचीं मूळवाद्यां, तेभायर 'हार्प' वा 'झायलोफोन' सारक्या भायल्यान आयिल्ल्या वाद्यांचोय संगीतांत वापर जाता. ताल हें एक ह्या संगीताचें खाशेलेपण. वेगवेगळ्या वाठारांनी विंगड विंगड तरांचें संगीत आयकूंक मेळटा, पूण तालाचे नदरेन ह्या संगीतांत बरेंच सारकेपण आसा.

१९०४ वर्सा सुमार आफ्रिकन निग्रो कलेचेर पारीसच्या बऱ्याच कलावंतांची नदर गेली. सेझान्, गोगँ आनी व्हान गॉग हांच्या चित्रकलेच्या प्रभावान आफ्रिकेवटेन चडांत चड कलावंत शिक्षणाचे नदरेन पळोवंक लागले.

- कों. वि. सं. मं.

**आबदस्त:** मुस्लीम लोक देवाची प्रार्थना करचेपयलीं जें विधीयुक्त न्हाण न्हातात ताका 'आबदस्त' म्हण्टात. ह्या न्हाणाक वझु वा बुझू अशीं हेर दोन नांवां आसात. जेन्ना बायलांचो म्हयन्याचो (भश्टेपणाचो) काळ आसता वा कूड खूब घाण जाल्ली आसता तेन्ना पुराय आंगाक न्हाण घालचें पडटा. हेर वेळार हातपांय धुवन, तकली आनी मानेवेल्यान ओलो हात भोंवडायल्यार काम भागता. उदक मेळप शक्य नासल्यार वा कुडीक उदक मानवना जाल्यार माती वा रेंवेन कूड नितळ दवरूं येता. ह्या प्रकाराक 'तयम्मुम' म्हण्टात.

एक फावट न्हातकच मदल्या वेळार विटाळ जालो ना जाल्यार दरेके प्रार्थनेवेळार पुराय कुडीक न्हाण घालपाची गरज नासता. मुहम्मदान पुराय कुडीच्या न्हाणाचें म्हत्व खूब कडेन वर्णिलां. ताच्या मताप्रमाण, कुडींतलीं सगळीं पातकां अशें न्हाण न्हातकच ना जातात. न्याय आनी अन्याय ह्याविशींचो निकाल ज्या दिसा जातलो त्या दिसा जण एकल्यान हात, पांय, तोंड नितळ धुवन येवचें. कुडीच्या ज्या भागाक उदकाचो स्पर्श जातलो, थंय भांगराअलंकार लकलकतले अशें तो म्हण्टा. (मिश्कात ३.१) दर एके मशिदींत न्हावपाक मेळचें म्हूण बांय वा तळी बांदून उदकाची तजवीज केल्ली आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**आबोली:** (मराठी-अबोली; हिंदी-प्रियदर्श; कन्नड-अव्वोलिगा; संस्कृत-अम्लान, महासहा; लॅटीन-क्रॉसँड्रा इन्फंडिबुलिफॉर्मिस, क्रॉ-अंड्युलिफोलिया; कूळ- ॲकँथेसी). हें जायतीं वर्सां उरपी ल्हान झोंप, सुमार ६० सेंमी. ऊंच आसता. हें झाड मूळचें श्रीलंकेचें. मलायांत आनी भारतांत (उत्तर प्रदेश, अस्तंत बंगाल, अस्तंत भारत आनी गोंय) हें झाड दिश्टी पडटा. ताचीं पानां सादीं, एकामेकांसामखार आनी गडद पाचव्या रंगाचीं आसतात. गंवाच्या कणसाभशेन पाचव्या कणसांत खांची-खांचींनी सोबीत आनी नाजूक लेव हळडुवीं वा केसरी फुलां येतात. हातूंत हेर प्रकारुय दिश्टी पडटात. सुक्या फळांत चार बियो आसतात.

बियांपसून रोपे काडून, कांडापसून कलमां करून वा ताळयो लावन नव्या झाडाची लागवड करतात. पावसाळ्यांत जमीन खणून, सारें घालून आनी सुमार ६० सेंमी. अंतर दवरून रोंपे लायतात. आबोलेचीं फुलां वर्सूयभर फुलतात. पूण ऑक्टोबर ते जानेवारी म्हयन्यांत चड फुलां येतात.

आबोलीं दोन तरेचीं आसतातः पिशीं आबोलीं आनी रतन आबोलीं. पिशा आबोल्यांच्यो पाकळ्यो चड फुलिल्ल्यो आसतात. तीं लेव केसरी आसतात आनी रोखडींच बावतात. रतन आबोलीं गडद केसरी रंगाचीं आसून तीं बेगीन बावनात. तेचपरी तांच्यो पाकळ्यो चड फुलिल्ल्यो नासतात. ह्या आबोल्यांक पिशा आबोल्यापरस चड मागणी आसता. आबोल्यांची फांती, वळेसर करून देवाक घालतात वा बायलां माळटात.

आबोलेचें झाड कोडू आनी उश्ण आसता. ताचें मूळ दुदांत शिजोवनय धव्या धुपणीचेर (menorrhagia) वखद म्हूण पियेवंक दितात.

आबोलेच्या पानाक खार हो रोग जाता, तेन्ना पानांचेर ल्हान ल्हान लेव पिंगशे दाग पडटात. हो रोग आळाबंदा हाडपाक बोर्दो (कॉपरसल्फेट आनी चुन्याची भरसण) मिश्रणासारक्या कीटकनाशकांचो फवारो मारतात.

- कों. वि. सं. मं.

**आमटे, मुरलीधर देविदास:** (जल्मः डिसेंबर १९१४).

कुश्टरोग पिडेस्तांचेर उपचार आनी सेवा करपाच्या वावरांत आंतरराश्ट्रीय नामना मेळयल्लो समाजकार्यकर्तो. 'बाबा आमटे' ह्या नांवान लोकप्रिय. शिक्षण एल्.एल्.बी. मेरेन. कवी आनी चित्रकार.



बाबा आमटे

कुश्टरोग्यांची सेवा करपाखातीर १९५१ वर्सा 'महारोगी सेवा समिती' ची थापणूक केली. कुश्टरोग पिडेस्तांची सेवा, उपचार, प्रशिक्षण, तशेंच कुश्टरोगाच्या फुडल्या संशोधना-खातीर २५० एकर जमनीचेर 'आनंदवन' ही भारतांतली पयली कुश्टरोग वसाहत (colony) उबी केली. १९५६ त, 'अशोक-वन' ही संस्था सुरू केली. तशेंच १९६८ वर्सा सनशाइन शाळा' ही कुडड्या भुरग्यांखातीर शाळा तशेंच कुश्टरोगपीडित भुरग्यांखातीर मुळावी शाळा सुरू केली. 'शांतिनिकेतन' हें केंद्र अपंगुळ पिडेस्तांखातीर १९७२ त सुरू केलें. 'सोमनाथ प्रकल्प' हें आदर्श शेत १९६५ त सुरू केलें. १९७३ त, चंद्रपूर हांगा 'लोकबिरादरी प्रकल्प' ही नवी समाजकल्याणकारी संस्था सुरू केली. ताच्या हातासकयल थंय आदिवासी जमातींतल्या लोकांखातीर भलायकी, शेतकी आनी शिक्षण ह्या मळांचेर व्यापक स्वरुपांत वावर सुरू जालो. आदिवासींखातीर २० खाटींची वेवस्था आशिल्लें फुकट हॉस्पिटल सुरु केलें. तेचप्रमाण एक शिक्षण संस्था (Non-formal education Institution) हेमलकासा हांगा सुरू केली. आनंदवनांत एक कॉलेज सुरू केलां. नागपूर विद्यापीठाकडे संलग्न आशिल्ल्या ह्या कॉलेजांत सुमार १५०० विद्यार्थी शिक्षण घेतात.

बाबा आमटे हाका १९७८ वर्सा एफ्. आय. ई. फाउंडेशन- चो 'राश्ट्र भूषण' पुरस्कार मेळ्ळो. १९७९ वर्सा ताका जमनालाल बजाज इनाम फाव जालें. कुश्टरोग पिडेस्तांच्या असामान्य सेवाकार्या- खातीर ताका १९८० त, 'इंडियन मर्चंट्स चेंबर अवॉर्ड' इनाम फाव जालें. १९८३ त 'डेमियन डट्टन' इनाम तशेंच हेर जायतीं राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय पांवड्यावेलीं इनामां ताका फाव जाल्यांत. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं: 'ज्वाला आणि फुलें' (काव्य), 'उज्ज्वल उद्यासाठी'.

- कों. वि. सं. मं.

**आमाडो:** (मराठी- अंबाडा; हिंदी-अम्रा; कन्नड-अमटे, अवटेकाय; संस्कृत-आम्रतक; इंग्लीश-बाइल ट्री, इंडियन हॉग प्लम; लॅटीन-स्पाँडियास मँजिफेरा; कूळ- ॲनाकार्डिएसी).



आमाडो

वर्साचे चार-पांच म्हयनेच पानां येवपी हो रूख सुमार १० मी. उंचायेचो आसता. ब्रम्हदेश, अंदमान, श्रीलंका, हाँगकाँग, हिंदी द्वीप-समूह आनी भारत ह्या देशांनी हो रुख दिश्टी पडटा. ताची साल वातड, दाट, आनी गुळगुळीत आसता. ताका मोटीं, एकामेकांसामखार लांबशीं आनी तिरशीं पानां आसतात. ताका फेब्रुवारी-एप्रिल ह्या म्हयन्यांत ल्हान, लेव पाचव्या कोराचीं, एकलिंगी वा द्विलिंगी फुलां येतात. एकोडी बी आशिल्लीं आमा-ड्याचीं फळां नोव्हेंबर डिसेंबर म्हयन्यांत येतात.

आमाड्यांचे रोस, चटणी, करम, गोड लोणचें, खळांतले आमाडे, सासंव आदी पदार्थ करतात. आमाडे घालून केल्लें सुंगटां हुमण रुचीक लागता. गोंयांत चड करून दिंवाळेक धोडायल्ल्या आमाड्यांची करम करतात.

आमाड्याची साल शीतळसाण दिता म्हूण आमांशाचेर घेतात. आमाड्याचे सालीचें पीठ उदकांत कालोवन संधीवातांत (संधी धरप) सांध्याभायल्यान चोळटात. ताच्या पानांचो रोस कानाचे दुखीर लायतात.

- कों. वि. सं. मं

**आमारान्ति, बँजामीन फ्रांसिश्कु:** (जल्मः १८१२; मरणः १८७९).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. धर्मीक शिक्षण घेतल्याउपरांत ताणें दक्षिण भारतांत मिशनरी म्हूण वावर केलो. १८६२ ते १८७९ वर्सा मिलापूर वाठारांतल्या डायोसिजाचो तो गवर्नर आशिल्लो. सां तोमे ह्या वाठारांत ताणें इंग्लीश माध्यमिक शाळा आनी डायोसिजन सेमिनारीची थापणूक केली. ताणें एक छापखानोय उगडलो आनी १८५३ ते १८६३ वर्सा मेरेन थंय 'द सेन्ट तोमे कॅथलिक क्रॉनिकल्स' हें सातोळें उजवाडाक हाडलें. तशेंच ताणें तमिळ व्याकरण आनी 'आत्म पोकिशम' हें प्रार्थना पुस्तक अशीं दोन पुस्तकां उजवाडाक हाडलीं. रायापुरम् वाठारांत ताणें आपले सुवातेर जायत्या गरीब कॅथलिक लोकांक घरां बांदून रावपाक फुकट जागो दिलो. तेचपरी थंय ताणें एक कपेल बांदलें.

- कों. वि. सं. मं.

**आमोणकार, किशोरी:** (जल्मः १९३१).

एक नामनेची हिंदुस्थानी शास्त्रीय संगीत गायिका. जयपूर घराण्याची नामनेची गायिका गानतपस्वीनी मोगुबाय कुर्डीकार हिची धूव आनी शिश्या. मुंबयच्या जयहिंद महाविद्यालयांत पदवीमेरेनचें शिकप. इंग्लीश, हिंदी, मराठी, उर्दू ह्या भासांचेर प्रभुत्व.

ल्हानपणासावन किशोरीक गायनाची आनी सुरांची उपाट आवड आशिल्ली. आवय मोगुबाय हिचेकडसून तिणें जयपूर घराण्याची गायकी मेळयली. खाँ सायब अन्वर हुसेन खाँ, पं. गोपाळराव, मोहन पालेकार, पं. हुस्नलाल हांचेकडल्यान तिणें शास्त्रीय संगीताचें शिकप घेतलें. इंदोर आकाशवाणीन तिच्या गायनाचो जलसो घडोवन हाडल्या उपरांत अमृतसरच्या कांय संगीत मोग्यांनी तिची जाहीर कार्यावळ केली. तेन्नासावन आयजमेरेन सुमार ३५ वर्सां तिणें देशांतल्या कितल्याशाच शारांनी आपणाल्या गायनाच्यो कार्यावळी सादर केल्यात. आकाशवाणी आनी दूरदर्शनचे राश्ट्रीय कार्यक्रम तशेंच संगीत संमेलनां हांचेवरवीं तिणें श्रेश्ठ गायिका म्हूण नामना जोडल्या.

आपणाल्या गायन तपश्चर्येवांगडाच संगीत शास्त्रावेल्या ग्रंथांचें वाचन, शब्द, काव्य, रस, भाव, सूर, ताल, लय, गुरुशिश्य परंपरा, घराणी, चीज, बंदीश, नृत्य, नाटक ह्या गजालींचें गिन्यान गावप्याक आसूंक जाय अशें तिचें मत आसा. उपाट वाचनान तिणें आपलें गायन समृद्ध केलां. ख्याल मांडपाची तरा, अस्ताई, अंतरो, बोलतानो, द्रुत लयींतली चीज म्हणपाची खाशेली पध्दत अशे विंगड विंगड सोबीत आविश्कार तिच्या गायनांतल्यान दिसून येतात. आपणाले आवयविशींचे गुरुभक्तीचो तिका आदर आसा. 'स्वर होच ईश्वर' हो तिचो भावार्थ. शास्त्रीय गायनावांगडाच अशास्त्रीय गायन, ठुमरी, भजन, भावगीत हे प्रकार गावपांतूय फिशाल आसा. 'गीत गाया पत्थरोंने' हें तिचें फिल्मी गीतूय बरेंच गाजलें. पूण फिल्मांतल्यान गावप हें आपलें ध्येय न्हय हें जाणून तिणें तो मार्ग सोडलो. संत ज्ञानेश्वराच्या जिविताचेर 'तोचि नादु सुस्वरु आला' आनी मीरेच्या भजनांवयलो 'म्हारो प्रणाम' हो कार्यक्रम तिचे ईश्वरभक्तीची गवाय दिता.

तिणें देश-विदेशांत आपणाल्या गायनान उपाट कीर्त मेळयल्या. १९५८ वर्सा 'फेस्टिव्हल ऑफ इंडिया' कार्यक्रमावरवीं अमेरिकेंत 'लिंकन थिएटरांत' तिचें गायन जालें. पारिसांत 'विंटर फेस्टिव्हलां'त गावपाचो भोवमानूय तिका फाव जाला. १९८६ वर्सा संगीत नाटक अकादेमीन तिचो भोवमान केलो. १९८७ वर्सा भारताच्या राश्ट्रपतींकडल्यान 'पद्मभूषण' ही पदवी तिका फाव जाली. १९८७ वर्सा तिका 'यंग इंडियन' हो पुरस्कार फाव जालो. 'गोमन्तक मराठा समाज'- मुंबय हांणी मानपत्र दिवन तिचो गौरव केला. 'गोमन्त विद्या निकेतन' (मडगांव) हे संस्थेन तिका आजीव सभासदाचो मान दिला. १९८७ वर्सा 'वनिता समाज'- मुंबय तशेंच 'वसन्तराव नाईक' पुरस्काराचो मान तिका फाव जालो.

तरणे पिळगेमदीं शास्त्रीय संगीताची आवड निर्माण करपाक तिका यश आयलां. स्वरांतली सिध्दी, अणभव, चिंतन आनी अभ्यास हाका लागून तिचें गायन संपन्न जालां. गायन विद्येभायर ती एक बऱ्यापैकी कवयित्री. तशेंच चित्रकाम आनी रांगोळेचे कलेंतूय ती प्रवीण आसा. मानभोवमान, लोकप्रियता आनी उपाट यश मेळयल्ली ही प्रज्ञावंत गोंयकार गायिका आयज आंतरराश्ट्रीय नामनेची एक म्हान संगीत जाणकार म्हूण तोखणायेक पात्र थारल्या.

- रमेश सखाराम बरवे

**आयंटहोव्हन, विलेम:** (जल्मः २२ मे १८६०, समरांग-जावा; मरणः २९ सप्टेंबर १९२७, लायडन-हॉलंड).

नामनेचो डच शरीरशास्त्रज्ञ. १८८५ वर्सा ताणें वैजकी विशयाची पदवी घेतली. ह्याच वर्सासावन लायडन विद्यापीठांत तो वैजकी आनी शरीरशास्त्र ह्या वियशांचो प्राध्यापक म्हूण शिकोवपाक लागलो.

ताणें विजेचेर चलतल्या माप घेवपी उपकरणाची रचना, उदरगत आनी पूर्णता हांचेर संशोधन केलें. तशेंच हुमकळपी गॅल्व्हानोमीटरांतय म्हत्वाची उदरगत केली. ह्या उपकरणावरवीं विजेच्या झोताची दिशा वळखुपाक येता. तेचपरी काळजांतल्या विद्युत् झोतांत जावपी बदल मेजपाखातीर ह्या उपकरणाचो ताणें उपेग केलो. ताणें उजवो दंड, दावो दंड आनी जांगडाच्या हाडाचो सांदो हांणी तयार जाल्ल्या काल्पनीक समभूत त्रिकोणाच्या मदल्या भागाक (विद्युत् मोलाचे नदरेन), काळीज आसता हें मानलें. देखूनच ह्या त्रिकोणाक 'आयंटहोव्हन त्रिकोण' म्हण्टात.

काळीज-कंप-बरप (cardiogram) ह्या उपकरणाचो सोद लावन काळजाच्या स्नायूंत जावपी विद्युत् झोताच्या बदलांचें ताणें वर्णन केलें. काळजाच्या आकुंचनावरवीं जावपी आवाज घेवपाचें आनी मेजपाचें उपकरण ताणें सोदून काडलें. तेखातीर १९२४ वर्सा ताका वैजकी विशयाखातीर आशिल्लें नोबेल इनाम फाव जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**आयगेन, मानफ्रेड:** (जल्मः ९ मे १९२७, बोखुम-जर्मनी).

नामनेचो जर्मन रसायनशास्त्रज्ञ. ताणें गटिंगन विद्यापीठांत शिक्षण घेतलें. ह्याच विद्यापीठांत तो १९५१ ते १९५३ ह्या काळांत भौतिकीय रसायनशास्त्र हो विशय शिकयतालो. उपरांत माक्स प्लांक इन्स्टिट्यूटांत ताची नेमणूक जाली. फुडें तो हे संस्थेचो अध्यक्ष जालो.

१९५६ वर्सा ताणें डिमेयर हाच्या वांगडा बर्फाच्या पातळ थरांतल्यान पुराय विद्युत् झोत सोडटना दरेक सेकंदाक तयार जावपी नव्या आयनयुग्माची संख्या मेजपाचें संशोधन केलें. ज्या विक्रियांचो अर्दविक्रियाकाळ धा सेकंदांपरस उणो आसता अश्या विक्रियांच्या अभ्यासाखातीर पयलीं औश्मिक, रसायनीक, विद्युत् आनी हेर पध्दती वापरताले. ह्या परसूय बेगीन जावपी विक्रियांच्या संशोधनाखातीर आयगेन आनी ताच्या वांगड्यांनी नवी 'शैथिल' (relaxation) पध्दत सोदून काडली.

तो सद्या 'युनायटेड नॅशनल अकादेमी ऑफ सायन्स', 'बन्सन सोसायटी फॉर फिजिकल कॅमिस्ट्री' आनी 'फॅराडे सोसायटी' ह्या संस्थांचो सभासद आसा. शिकागो, हार्वर्ड आनी वॉशिंग्टन विद्यापीठांनी ताका मानादीक पदव्यो दिल्यात.

ऊर्जेच्या अतीसुक्ष्म स्पंदनांनी रसायनीक समतोल इबाडिल्ल्यान रोखड्याच जावपी रसायनीक विक्रियांविशींच्या संशोधनाखातीर, ताका १९६७ वर्सा रसायनशास्त्र विशयाखातीर आशिल्लें नोबेल इनाम जॉर्ज पोर्टर आनी आर. जी. डब्ल्यू हांच्यावांगडा वांटून मेळ्ळें.

- कों. वि. सं. मं.

**आयतार:** सप्तकाच्या सात वारांपैकी एक वार. हें उतर 'आदित्यवार' (आदित्य=सूर्य, वार=दीस) ह्या संस्कृत उतरावेल्यान आयलां. हाका मराठींत 'रविवार' अशें म्हण्टात. हो सूर्यपूजेक बरो अशें

मानलां. धन-संपत्ती, संतती, भलायकी बरी जावपाक, दोळ्यांचे विकार आशिल्ले आनी झुजांत जैत मेळोवपाची इत्सा धरपी लोक कसल्या ना कसल्या प्रकारान ह्या दिसा सूर्याची उपासना करतात. वांझ बायलो भुरगीं जावचीं म्हूण ह्या दिसा सूर्यव्रत करतात. सूर्याची पूजा करतना अष्टवल वा षट्कोन ह्यो आकृती काडटात. आयतारच्या दिसा खंयचीं कृत्यां केल्यार पुण्या मेळटा हेविशींचो बृहज्योतिषसारांतलो एक श्लोक असो-

राज्याभिषेकोत्सवयानसेवा गोवह्निमन्त्रौषधशस्त्रकर्म।
सुवर्णताम्रौर्णिकचर्मकाष्ठसङ्ग्रामपण्यादि रवौ विदध्यात्।।

अर्थ- राज्याभिशेक, उत्सव, भोंवडी, राजसेवा, गोधनाची खरेदी-विक्री, होम, मंत्रोपदेश, वखदां-येवजण आनी शस्त्रक्रिया; भांगर, तांबें, लोकर, चामडें आनी लांकूड हांची खरेदी-विक्री, झुजाक वचप हीं कर्मां आयताराक करचीं.

मुसलमान लोक दरेक म्हयन्याच्या पयल्या आयताराक तंत्रमंत्र करतात. मशिदीची नितळसाण आनी आयदनां धुवन दवरप हीं कामां त्या दिसा करतात. ग्रीक आनी रोमन लोकांनी सुर्वेक सप्तकांतलो एक दीस उपासनेखातीर राखून दवरपाचें थारायल्लें. जेजूच्या पुनरुत्थानाचो दीस जाल्ल्यान, तांणी आयतार हो सप्तकाचो पयलो दीस प्रार्थनेखातीर निश्चित केलो.

रोमन साम्राज्यांत आयताराक 'सूर्याचो दीस' (सन-डे) अशें म्हण्टाले. पूण किरिस्तांव लोकांनी ताका 'धनयाचो दीस' हें नांव दिलें. रोमन साम्राज्यांत किरिस्तांव धर्माची थापणूक जाली, तेन्ना ग्रीक आनी लॅटीन उलोवपी लोकांनी 'धनयाचो दीस' हेंच नांव मान्य केलें. पूण उत्तरेकडले इंग्लंड, स्वीडन, जर्मन हे देश सनातन पंथाचे आशिल्ल्या कारणान तांणी 'सन-डे' हें पोरनें नांव चालू दवरलें.

इ. स. दुसऱ्या आनी तिसऱ्या शेंकड्यांत आयताराक इगर्जींत जमप इतलीच खासा कार्यावळ आसताली. काळांतरान बायबल वाचप, प्रवचन, प्रार्थना ह्या गजालींचो तातूंत आस्पाव जावपाक लागलो. आयतार म्हळ्यार 'पवित्र दीस' जालो. पूण ज्यू लोकांच्या सब्बाथापरस्य रोमन लोकांच्या उत्सवासारको तो दीस पाळपाची वृत्ती किरिस्तांव लोकांत आशिल्ली. त्या दिसा दिसपट्टें काम चालू दवरप आनी देवाची प्रार्थना, उंचेले विचार, गिन्यान मेळोवप हातूंत वेळ सारचो अशी तांची पध्दत आशिल्ली. ल्हव-ल्हव आयतार म्हळ्यार 'विसव घेवपाचो दीस' (सब्बाथ) अशी कल्पना रुढ जाली. आयताराक सुटी आसची अशें मत तयार जालें. ताका लागून इ. स. ३२१ वर्सा कॉंस्टंटाइन बादशहान हुकूम काडून आयतार हो भौशीक सुटयेचो दीस अशें जाहीर केलें. १९५८-५९ वर्सा इंग्लंडांत जण एकल्या किरिस्तांवान आयताराक दिसा इगर्जींत वचूंकच जाय अशी कायद्याची सक्ती आशिल्ली. पूण १८४६ वर्सा हो कायदो रद्द जालो.

गोंयांत तशेंच हेर भारतांत आयतार हो सुटयेचो दीस आसता. त्या दिसा दुकानां, पोस्ट कचेऱ्यो, बँक, कोर्ट-कचेऱ्यो आनी हेर कार्यालयां, शाळा कॉलेजां आदी बंद आसतात. किरिस्तांव धर्मीय त्या दिसा इगर्जींत मिसाक वतात. किरिस्तांव धर्मांत आयताराक कसलोच धंदो वा वावर करूंक जायना असो समज आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**आयफेल टावर:** संवसारांतलो नामनेचो ऊंच मनोरो. आलेक्सांद्र ग्युस्ताव्ह आयफेल ह्या फ्रेंच वास्तुविशारदान ही वास्तू पारीस शारांत बांदली. देखून ह्या मनोऱ्याक आयफेल ह्या ताच्याच नांवान वळखतात. १८८९ वर्सा भरिल्ल्या 'पारीस एक्स्पोझिशन' ह्या संवसारीक प्रदर्शनाखातीर आयफेल मनोऱ्याचें बांदप जालें.

न्यूयॉर्क शारांत १९२९ वर्सा 'क्रायझ्लर' आनी १९३०-३२ वर्सा 'एम्पायर स्टेट' ह्यो इमारती बांदचे आदीं आयफेल टॉवर ही संवसारांतली सगळ्यांत ऊंच वास्तू म्हूण वळखताले. आयफेल मनोऱ्याची उंचाय ३०४.८ मी. आसा आनी मुळावणाची लांबाय-रुंदाय १०० मी. आसा. मनोऱ्याचे बांदावळीखातीर बऱ्या प्रतीचें घडीव लोखण आनी तिखें ह्या सारके धातू वापरल्यात. दरेका २६ चौ.मी. क्षेत्रमर्यादा आशिल्ल्या चार खांब्यांचेर (Masonry Piers) हो मनोरो उबो आसा. ह्या खांब्यांचेर लोखणी जाळीकाम केल्ले चार पालशे खांबे आसात. हे खांबे सुमार १८९ मी. उंचायेचेर एकामेकांत घुस्पून फुडें तांकां एका कांडाचो आकार आयला.



आयफेल टॉवर

ह्या मनोऱ्यांत दरेकी ६३ मनशांक व्हरपाक येता अशीं तीन विद्युत् पाळणीं आसात, तशेंच वयर चडपाक सपणांय आसात. ह्या मार्गांनी मनोऱ्याच्या तेंगशेर मदीं आशिल्ल्या स्थानकांत आनी गॅलरींत वचूंक मेळटा. मदल्या स्थानकांत खाणा-वळी, प्रयोगशाळा आनी हवामान केंद्रां आसात. हो टावर पारीस शारांतल्या खंयच्याय भागांत-ल्यान दिसता. तशेंच ह्या टावराच्या तेमकावेल्यान सुमार १३६ किमी. मेरेनचो वाठार दिसता. पयल्या म्हाझुजांत म्हत्वाचें सैनिकी-निरीक्षण केंद्र म्हूण ह्या मनोऱ्याचो उपेग केल्लो. १९५३ सावन ह्या मनोऱ्याचो उपेग दूरचित्रवाणी कार्यावळींखातीर करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**आयर्लंड:** अटलांटिक म्हासागरांत इंग्लंडाचे अस्तंतेक आशिल्लो जुंवो अक्षवृत्तीय विस्तार ५१° ३०' उत्तर ते ५५° ३०' उत्तर आनी रेखावृत्तीय विस्तार ५° ३०' अस्तंत ते १०° ३' अस्तंत.

क्षेत्रफळ ८३,७६७ चौ. किमी. इशान्येक नॉर्थ चॅनल, उदेंतेक आनी आग्नेयेक सेंट जॉर्जेस चॅनेल आनी आयरीश समुद्र. हेर सगळ्या दिकांनी अटलांटिक म्हासागर.

**भूंयवर्णन:** जमीन तरेकवार खडपांची आसा. तातूंत चुनखडी, सुभाज नाजाल्यार शिस्ट, रेंवेच्या फातरांपसून जाल्ली आनी ग्रॅनायट सारकीं खडपां हांचो आस्पाव आसा.

ह्या वाठारांतले दोंगरय विंगडविंगड तरांच्या फातरांचे जाल्यात. दर्यादिगेकडलो वाठार ऊंच आसा आनी देशाचो सगळो वाठार म्हळ्यार एक चुनखडयेचें पठार. फकत मदलो भाग मळांचो आनी त्याजागयार तळीं, चिखलाचे वाठार सगळेवटेन दिश्टी पडटात. सगळ्या वाठारांनी पाचवेचार रुख आनी झोंपां आसात.

इशान्येवटेन मोर्न दोंगर, उदेंतेक विक्लो दोंगर आनी अस्तंतेकडलो मागीलीकडी हे दोंगर चडशे ऊंच नात. किलार्नीलागीं कॅरान्टूवाहिल (१०३५.५ मी.) आनी डब्लिनाच्या अस्तंतेक आशिल्ली लग्नाकाल्या (९२४ मी.) ह्यो हांगाच्यो मुखेल तेंगश्यो.

**हवामान:** हवामान सरासरी १०° से. च्या वयर सरना. जानेवारी आनी




फेब्रुवारी हे चड शिंयाचे म्हयने. ह्या वेळार तापमान ४° से. ते ७° से. मेरेन आसता. जुलय-ऑगस्ट सगळ्यांत उश्ण म्हयने, तेन्ना तापमान १४° से. ते १६° से. मेरेन आसता. पावस सगळे कडेन सारकोच पडटा. अस्तंतेकडल्यान व्हांवपी वाऱ्यांक लागून वर्साक सुमार २००-२२५ दीस इल्लो इल्लो पावस पडत आसता. देशाच्या उत्तर आनी उदेंतेच्या वाठारांनी वर्साक ७०-७५ सेंमी. आनी नैऋत्येवटेन १२०-१२५ सेंमी. पावसाची नोंद जाता.

**वनस्पत आनी मोनजातः** निमण्या हिमयुगाच्या काळांत आयर्लंड युरोपीय भुंयेकडल्यान वेगळें जाले, पूण युरोपांत वावुरपी जनावरां आनी वाडपी वनस्पत उत्तर युरोपांतल्यान आयर्लंडांत पावली. इंग्लंडांत सांपडपी बरीचशी मोनजात आनी वनस्पत हांगा मेळना. पूर्विल्ल्या काळांत आयर्लंडच्या मळांच्या वाठारांत दाट रान आशिल्लें, तें आतां ना जालें आसलें तरी ओक, पायन, बर्च ह्या सारके रुख आजूय सांपडटात. हांगाच्या हवामानाक लागून तरातरांचीं तणां हांगा वाडटात.

आयरीश घोडो, कुत्रो, गाय, आनी हेर पोसपाचीं जनांवरां लोकप्रिय आसात. कॉनेमारा हे शिंगरु, वुल्फहाउंड, ब्लू टेरियर ह्या सारके कुत्रे चड प्रमाणांत आसात. ब्रॅजर, ऑटर, स्टोट, सोसो हे प्राणी; ससाणो, भांगराकोराचो गरुड हे पक्षी आनी गोबराकोराचो शेड्डो, बेबो, गोगलगाय ह्या सारके ल्हानसान प्राणी दिश्टी पडटात.

**इतिहासः** नवअश्मयुगांत आयर्लंडांत मनीस रावताले अशें स्पश्टपणान दिसता. केल्ट लोकांची वस्ती जाल्याउपरांत, नवअश्मयुगांतल्या जमातींकडेन तांचो संबंद आयलो. गोयडेल, ब्रायथोल अश्या नांवांचे कितलेशेच केल्टिक जमातीचे पंगड हांगा वावुरताले. क्रिस्त शेंकड्याचे सुर्वेक सावन स्कॉटलंडच्यान पिक्ट लोक हांगा आयले. अस्तंतेच्या वाठारांनी लोकांची चड वस्ती जाली. त्या काळावेले राजा जरी बळीश्ट आसले तरीपूण कोणाच्यानच आयर्लंडाचेर आपलो शेक चड काळ गाजोवंक जालो ना. कॅनॉट वंशांतल्या राजाक 'ऑर्डरी' (ordery) म्हळ्यार म्हान राजा अशें म्हण्टाले. ह्या काळांत आयर्लंडचे लोक मूर्तिपूजक आशिल्ले.

पांचव्या शेंकड्यांत बऱ्याच किरिस्तांव धर्मप्रसारकांनी आयर्लंडांत किरिस्तांव धर्म हाडलो. तातूंतल्या पॅट्रीक ह्या धर्मगुरुन पयलींची 'ओगॅम' (ogam) ही लिपी काडून उडोवन थंय रोमन लिपीचो प्रसार केलो. पॅट्रीकाच्या वावराक लागून रोमन कॅथलिक धर्मपंथ थंय बरोच पातळ्ळो.

आठव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत उत्तर युरोपांतल्यान व्हायकिंग जमातींचे पंगड आयर्लंडांत पावले. लुटालूट करून तांणी बरेच गांव भूंयभरवण केले. डब्लिन, पॉटरफर्ड, लिमरीक सारक्या नव्या गांवांची थापणूक केली. १००१ वर्सा ब्रिअन बोरु आयर्लंडाचो राजा जालो. ताणें सगळ्यांक संघटित करून १०१४ वर्सा व्हायकिंगांचो पराभव केलो. पूण हे लडायेंत ब्रिअर बोरुक मर्ण आयलें.

बाराव्या शेंकड्यांत अल्स्टर, लिन्स्टर, मन्स्टर आनी कॅनॉट हीं राज्यां म्हत्वाचीं आशिल्लीं. देशभर शांतताय आशिल्ली. ह्या वेळार चवथो पोप ॲड्रियन हाणें इंग्लंडचो दुसरो हेन्री हाका आयर्लंडचो मुखेल नेमलो. ११७१ त हेन्री थंय येवन राजा जालो. तेन्नासावन हेन्री घराण्याची सत्ता आयर्लंडांत आयली. हे सत्तेच्या काळांत आयर्लंडची सगळी संपत्ती इंग्लंडाक पावंक लागली. आठवो हेन्री हाणें आयर्लंड इंग्लीश इगर्जेच्या मुखेलपणाखाला हाडून १५४१ वर्सा हांगाचे कॅथलिक मठ जप्त केले आनी आपलेवटेन आशिल्ल्या सरदारांक आयर्लंडांत जमीन जुमले दिले. इंग्लीश राजांकडल्यान जावपी अत्याचारांआड झुजपाखातीर शेन ओनील, ह्यू ओनील, डेस्मंड हांगाचो अर्ल ह्या सारक्या देशभक्तांनी बरींच बंडां केलीं. हांगाची राज्यसत्ता पुरायपणान इंग्लंडाच्या राजघराण्याच्या हातांत आशिल्ली. सोळाव्या, सतराव्या आनी अठराव्या

शेंकड्यामेरेन ब्रिटीश सत्तेआड ल्हान व्हड झुजांय चालूच आशिल्लीं. इंग्लंडाकडल्यान जावपी धर्मीक अत्याचारांक लागून आयर्लंडची परिस्थिती चडानचड वायट जायत गेली. ह्या काळांत दुकळ, रोग हांकांलागून गांवांची गांवां काबार जालीं. डीन स्विफ्ट, बर्कली, पार्नेल, शेरीडन, हेन्री ब्रूक ह्या सारक्या लेखक, कवी आनी विचारवंतांनी आयरीश लोकांमदीं राश्ट्रीयत्वाची भावना जागयली. अमेरिकेसारक्या देशांनी रावतल्या मूळ आयरीश लोकांची मदत तांच्या राश्ट्रीय पक्षाक मेळूंक लागली. १७८२ वर्सा, आयरीश पार्लमेंटांत केल्ले कायदे आनी कोर्टांत दिल्ले निर्णय ब्रिटीश शासनान बदलचे न्हय, रोमन कॅथलिकांक जमनी घेवंक मेळच्यो आनी आपल्या धर्माप्रमाण वागूंक मेळचें ह्या सारक्या थारावांक ब्रिटीशांची मान्यताय मेळ्ळी. कॅथलिकांक मत दिवपाचो अधिकार वा राजकी पदां मेळोवपाचो अधिकार मात मेळ्ळो ना. फ्रेंच राज्यक्रांतीच्या प्रभावाक लागून आयर्लंडांत अशांतताय आयली. १७९८ वर्सा वूल्फटोन ह्या मनशान 'युनायटेड आयरीशमन' नांवाची संघटना काडून बंड केलें. ताका निमणो गोळाक लायलो आनी बंड फसलें. १८०० वर्सा आयरीश पार्लमेंट बरखास्त जालें आनी इंग्लंड-आयर्लंड एकचार कायदो मुखार आयलो. ह्या कायद्यान आयर्लंडाच्या प्रतिनिधींक ब्रिटीश पार्लमेंटांत बसपाचे हक्क मेळ्ळे; हाकालागून आयर्लंडची दिखाऊ स्वतंत्रताय सोंपली आनी इंग्लंड-आयर्लंड हांच्या भितरल्या संबंदांच्या एका नव्या पर्वाक आरंभ जालो.

१८२९ वर्सा डॅनियल ऑकोनेलच्या (१७७५-१८४७) यत्नांक लागून कॅथलिक मुक्ततायेचो कायदो येवन तांकां मताधिकार मेळ्ळो. १८४५ ते १८४७ वर्सा बटाटाच्या पिकाचेर रोग आयिल्ल्यान आयर्लंडांत दुकळ पडलो. सुमार धा लाख लोक ह्या दुकळांत मेले. दुकळाक लागून जाल्ल्या असंतोशांतल्यान आनी हेर युरोपीय क्रांतीकारक चळवळींनी प्रभावीत जावन 'यंग आयर्लंड' पक्षाचो फुडारी जॉन मायकेल हाणें बंडाची तयारी केली. पूण ताका देशाभायर धांवडावन घालो आनी पक्षाचो दुसरो फुडारी विलीयम ओब्रायन हाका सरकारान गोळाक लायलो.

पार्नेलसारक्या फुडाऱ्यांनी ब्रिटीश पार्लमेंटांत आयर्लंडचो प्रस्न मांडपाखातीर फुडाकार घेतलो. १९०३ वर्सा उदारमतवादी पक्ष इंग्लंडांत सत्तेर आयलो आनी आयरीश स्वतंत्रतायेचो प्रस्न सुट्टलो अशें दिसूंक लागलें. पूण हेविशीं कांयच घडलेंना. हाका लागून आर्थर ग्रिफीथ हाणें 'सीन फीन' (Sinn Fein) म्हळ्यार 'आमच्या आमीच' ही चळवळ सुरू केली. १८८६, १८९३ त दोन होमरुल विधेयकां रद्द केल्याउपरांत १९१२ वर्सा तिसरें विधेयक मांडलें. ह्या विधेयकाक लागून बरेच बोवाळ जालो. १९१४ वर्सा पयलें म्हाझूज पेटलें आनी आयरीश स्वतंत्रतायेचो प्रस्न मात्सो कुशीक पडलो. १९१६ च्या ईस्टर सणावेळार डब्लिन हांगा पॅट्रीक पीयर्स, जेम्स कॉनली, एयन् डी व्हॅलेरा हांच्या फुडारपणाखाल बंड जालें, पूण ह्या बंडाच्या मुखेल्यांक मारुन उडयले, कांय जाणांक देशाभायर धांवडायले. १९१८ च्या वेंचणुकेंत सीन फीन पक्षाचे ७३ प्रतिनिधी पार्लमेंटांत पावले पूण तांणी लंडनाक वचनासतना डब्लिन हांगा सभा घेवन २१-१-१९१९ दिसा आयर्लंड स्वतंत्र जाल्ल्याची घोशणा केली. १९२० वर्साच्या होमरूल कायद्याप्रमाण उत्तर आयर्लंड आनी आयरीश फ्री स्टेट ह्या दोन साम्राज्यांची थापणूक करपाचें थारलें. १९२२ वर्सा ह्या साम्राज्यांची थापणूक जाली, पूण ह्या कायद्याक जाल्ल्या विरोधाक लागून १९२३ मेरेन यादवी झुजां चालूच उरलीं. फुडें १९३७ च्या संविधानाप्रमाण 'आयरीश फ्री स्टेट' चो बदल 'आयर' हातूंत जालो. राश्ट्रपती हो देशाचो मुखेल आसतलो अशेंय थारलें. त्याप्रमाण १९२८त डग्लस हायड राश्ट्रपती जालो आनी डी. व्हॅलेरा प्रधानमंत्री. दुसऱ्या म्हाझुजांत आयर्लंड तटस्थ रावलें. १९४८ वर्सा युनायटेड आयर्लंड पक्षाचो फुडारी जॉन कॉस्टेलो प्रधानमंत्री जालो. १९४९ वर्सा ताणें आयर स्वतंत्र प्रजासत्ताक आशिल्ल्याचो थाराव मान्य करून घेतलो आनी ताका इंग्लंडाचीय मान्यताय मेळ्ळी. इतले मजगतीं उत्तर आयर्लंड कुशीकच आशिल्लें. हे गजालीक लागून १९२० सावन सुरू जाल्ल्या यत्नांनी १९४६-५७ ह्या काळांत बंडाचें रुप घेतलें. १९५७ वर्सा कॉस्टेलोचो पराभव जावन डी व्हॅलेरा सत्तेर आयलो. १९७३ मेरेन तो त्या पदार आशिल्लो. १९७३ त ताच्या जाग्यार अर्स्किन चिल्डर्स हाची निवड जाली. १९७४ ते १९७६ मेरेन सियरबेल ओ दालाय वेंचून आयलो. १९७६ त सत्तेर आयिल्ल्या डॉ. पॅट्रीक हिलरी हाणें १९८३ त परत जैत मेळोवन आपली सत्ता तिगोवन दवरल्या.

**राज्यवेवस्था:** १८ एप्रिल १९४९ सावन आयरीश फ्री स्टेट बदलून त्या जाग्यार स्वतंत्र आनी सार्वभौम प्रजासत्ताक जल्माक आयलें. ताचेपयलीं कांय दीस आयर्लंड ब्रिटीश राश्ट्रकुलांतल्यान भायर सरलें. सद्याचें आयर्लंडचें राज्य १९३७ च्या संविधानाप्रमाण चलता. ह्याच संविधानाक लागून देशाचें नांव 'आयर' अशें दवरलां. हाका इंग्लिशींत 'आयर्लंड' अशेंय म्हण्टात.

हांगाचें प्रशासन लोकांनी नियुक्त केल्ल्या राश्ट्रपतीच्या नांवान चलता. राश्ट्रपतीची वेंचणूक दर सात वर्सां उपरांत जाता. फाटोफाट दोनदां वेंचून आयल्या उपरांत तिसरे फावट राश्ट्रपती जावंक मेळना. संसद दोन घरांनी वांटून घाल्या. लोकसभेक 'डेल आयरीन' (Dail Eireann) आनी वयल्या घराक 'सीनेड आयरीन' (Seanad Eireann) म्हण्टात.

सरकारी धोरणांचेर आनी प्रशासनाचेर दोनूय घरांनी भासाभास जाता. पूण संविधानाप्रमाण सरकार फकत लोकसभेक जापसालदार आसता. पैशांच्या बिलांचेर सीनेड फकत सुचोवण्यो करूंक शकता.

सद्याचे (२४ वे) लोकसभेंत १६६ प्रतिनिधी आसात. ते थेट निवडून येतात. सीनेडचे ६० प्रतिनिधी आसतात. तांतल्या ११ जाणांची नेमणूक महामंत्री करता. ६ विश्वविद्यालयांचे प्रतिनिधी आसतात आनी हेर विंगड विंगड वेवसायीक पंगडांनी वेंचिल्ले आसतात. विश्वविद्यालयांतल्यान येवपी प्रतिनिधींमदले ३ जाण आयर्लंड राश्ट्रीय विश्वविद्यालयाचे तर ३ जाण डब्लिन विश्वविद्यालयाचे आसतात. अठरा वर्सां पुराय केल्ल्या दर एकल्याक मतदानाचो अधिकार आसता.

फियाना फेल (Fianna Fail), फायन गेल (Fine Gael) आनी लेबर पार्टी अशे तीन पक्ष आसात. वर्कस पार्टी (पयलीचो सीन फीन) होय मुखेल राजकी पक्ष जावन आसा. तेभायर ल्हानसान अशे बरेच राजकी पक्ष आसात.

आयरच्या २७ प्रांतांचें प्रशासन काउंटी काउन्सिल (County council) कडल्यान जाता. तेभायर हें प्रशासन बरेभशेन चलचेखातीर 'काउंटी बरो कॉर्पोरेशन' (County Borough Corporation), 'अर्बन डिस्ट्रीक्ट काउन्सिल' (Urban District Council) ह्यो संस्था आसात. ह्या संस्थांचेर केंद्र सरकाराचें नियंत्रण आसता. रस्ते, येरादारी, उदकापुरवण, भलायकी सारके विशय थळाव्या प्रशासनाच्या अधिकारांत आसतात. केंद्रीय प्रशासनाचें अनुदान घेवन आनी थळावे कर लावन थळावें प्रशासन आपली अर्थीक मांडावळ थारायता.

आयरीश कायदो 'इंग्लिश कॉमन लॉ' (English Common Law) चेर आदारला. न्यायालयां तीन पांवड्याचेर आसात: सकयलीं, मदलीं आनी सर्वोच्च. सर्वोच्च न्यायालयांत दिल्लो निवाडो निमाणो आसता. आयरीश पोलीस (Guardians of Peace) देशांत कायदो आनी सुवेवस्था, सांबाळपाचें काम करता. पोलीस खात्याचेर कायदोमंत्रालयाचें नियंत्रण आसता.

हांगा दोन तरांचें लश्कर आसा. थीर आनी राखीव. लश्करविशींचे सगळे निर्णय घेवपाचो अधिकार राश्ट्रपतीकडेन आसा. १९५८ सावन आयर्लंडचें लश्कर संयुक्त राश्ट्र परिशदेच्या (U.N.O.) शांतीदळाचो एक भाग जावन आसा. लॅबनान, न्यू गिनी (आतां अस्तंत आयरियन), भारत, पाकिस्तान, सायप्रस, इराण, इराक ह्या देशांनी आयरीश लश्कराचे अधिकारी संयुक्त राश्ट्रांखातीर काम करतात.

**अर्थीक परिस्थिती:** अर्थीक परिस्थिती शेतकी पिकावळीचेर आदारित

आसा. आयरीश शेतकी वेवसाय स्थूल राश्ट्रीय उत्पादनांत (GNP) ११% ची भर घालता, वट्ट कामगार संख्येंतल्या १४% कामगारांक काम दिता आनी वट्ट निर्यातींत ताचो वांटो २५% आसा. १९८३ वर्सा १,८०,००० लोक शेतकी वेवसायांत काम करताले. वट्ट उत्पादनांतलें ८४% उत्पादन पशुधनाचेर आदारिल्ल्या शेतवेवसायांतल्यान येता. हातूंत गोरवां ३५%, दूद आनी तेपसून तयार जाल्लीं उत्पादनां ३५%, दुकर ५%, कोंबयो आनी तांतयां ४%, मेंढरां आनी लोकर ३%, घोडे १%, तण आनी हेर पिकां ८%, बार्ली ७% आनी साकरेचे बीट २%. मुखेल पिकांभितर राय, ओट, गंव, बटाट हांचोय आस्पाव आसा. पशुसंवर्धन आनी दूद-मांस हांचो वेपार बऱ्या प्रमाणांत चलता.

शिशें आनी जस्त खनिजांची सांठवण हांगा हेर युरोपीय देशांपरस चड आसा. तेभायर तांबे, जिप्सम, पीट, गॅस, संगमरवर, स्लेट आनी घरां बांदपाचे फातर हांच्योय बऱ्योच खणी आसात. १९८३ वर्सा इंधनाखातीर आयर्लंडांत ४९.०% तेल, १२.५ % कोळसो, १६% पीट (peat), २.५% उदक आनी २०% सैमीक वायू हांचो उपेग जालो. सैमीक तेल काडपाचो एकूच प्रकल्प आयर्लंडांत आसा, जो दिसाक ५६,००० बल्लां तेलाचें उत्पादन करता.

आयर्लंडच्या दर्यांत नुस्त्याची पिकावळ बरीच जाता. हांगा बांगडे, कॉड, ईल, लॉबस्टर, सुंगटां, कालवां, हेरिंग, हॅडॉक ह्या सारकें नुस्तें भरपूर प्रमाणांत सांपडटा. सी फिशरीज बोर्ड (Sea Fisheries [जआद-मत्स्योद्योग मंडळ) ही सरकारान नेमिल्ली संस्था दर्यांतल्या पिकावळीचे उदरगतीखातीर वावुरता. उदकांतली पिकावळ राश्ट्रीय उत्पादनांत मोलाचो वांटो दिता. १९८३ वर्सा ४५.४ दशलक्ष आयरीश पौंडांचें उत्पादन जालां. नुस्तें आनी नुस्त्यापसून तयार जाल्ल्या उत्पादनांतल्यान आयर्लंडाक ८४.१ दशलक्ष आयरीश पौंडांचो ह्या वर्सा फायदो जालो. सुमार ३,४०० पुराय वेळ आनी ५,१०० अर्दो वेळ काम करपी नुस्तेकार ह्या उद्देगांत आसात.

पर्यटन हो हांगाचो एक पोरनो उद्येग. शेतवेवसाय आनी हेर उद्येगधंद्यांफाटल्यान मोटें उत्पन्न दिवपी हो तिसरो उद्येग. ह्या धंद्याक लागून आयर्लंडाक वर्साक सुमार ९०० दशलक्ष आयरीश पौंडांचें उत्पन्न मेळटा. पर्यटकांचें मुखेल आकर्शण म्हळ्यार हांगाच्या सैमाची सोबीतकाय, लोक आनी लोकांचे जीणेची तरा. तेभायर पोरन्यो इगर्जी आनी किल्ले हेय पर्यटकांक हांगा आकर्शित करतात. आयर्लंडांत बरींच पोरनीं वस्तुसंग्रहालयां, आर्ट गॅलरीज आनी थिएटरां आसात. ह्या गजालींचीय पर्यटन धंदो वाडोवंक मदत जाता. वर्साक सुमार २.३ दशलक्ष पर्यटक आयर्लंडाक भेट दितात. हातूंतले सुमार ५०% ब्रिटीश, १४% अमेरिकन आनी कॅनेडियन, १३% युरोपीय आनी उरिल्ले सुमार २३% हेर देशांतल्यान येतात. आयरीश पर्यटन मंडळ ही सरकारी संस्था पर्यटन उद्येगाच्या मळार वावुरता.

निर्मणी उद्येग आयर्लंडाचो मुखेल घटक जाला. हातूंत काम करतल्यांची संख्या वट्ट काम करतल्या लोकसंख्येच्या २९.४% आसा. अन्नोद्येग, तंबाखू आनी पेयां, वस्त्रनिर्मणी, पायतणांउद्येग, लांकूडउद्येग ह्या सारके उद्येगधंदे मुखेल आसात. भोवराश्ट्रीय कंपन्यांनी हांगा बऱ्याच प्रमाणांत आपलें भांडवल घालां. चडशा कारखान्यांनी ब्रिटन, अस्तंत जर्मनी, जपान हांचें भांडवल आसा. आयातनिर्यातीचो वेपार ब्रिटन, अमेरिका, अस्तंत जर्मनी, कॅनडा, बॅल्जियम, जपान ह्या देशांकडेन जाता. कोळसो, धान्य, यंत्रां, लोखण, मोटार गाडयो, तेल, डांबर, कपडो सारक्या गजालींची आयात आनी लोणी, तांतयां, सोरे, घोडे आनीं र जनावरांची निर्यात जाता.

**येरादारी आनी संचारण:** आयर्लंडांत हेर युरोपीय देशांपरस लोकसंख्येची घनताय उणी आसली तरी रस्त्यांचें प्रमाण चड आसा. १९८३ वर्सामेरेन सगळे धरून ९२,००० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. देशांतली येरादारी चडशी रस्त्यांवेल्यान जाता (९६%). १९६० ते १९८० ह्या वर्सांभितर रस्त्यावेल्यान येरादारी करपी वाहनांची संख्या तीन पटींनी वाडली. बस येरादारीचें नियंत्रण आयरीश परिवहन वेवस्था (Irish Transport System) ही सरकारमान्य संस्था करता. हे संस्थेकडेन सुमार ९०० बसी आशिल्ल्याची नोंद जाल्या. हे भायर १,२०० खासगी बसी हांगा आसात.

रस्त्यावेल्या येरादारीचें नियंत्रण करपी संस्था रेल्वेमार्गाचेरूय नियंत्रण दवरता. १९८३ वर्सामेरेन हांगा ३,००० किमी. लांबायेचे रेल्वे मार्ग आसले. चडश्यो रेल्वे डिझलाचेर चलतात. दर दिसा सुमार ५०,००० ते ८०,००० लोक रेल्वेमार्गांवेल्यान प्रवास करतात.

उदकांतली येरादारी आंतरराश्ट्रीय उद्येग वाडोवंक पालव दिता. देशाभितर जावपी उदकांतली येरादारी उणी आसा. डब्लिन हें हांगाचें सगळ्यांत व्हड बंदर. ह्या बंदरांतल्यान दर वर्सा ५८ लक्ष टन मालाची हाड-व्हर जाता. तेभायर कॉर्क, वॉटरफर्ड, लिमरीक ह्या बंदरांतल्यानय बोटींची येरादारी चलता. शॅनन न्हंय, ग्रँड आनी रॉयल कालवे हे देशांतल्या येरादारीचे मुखेल मार्ग.

आयर्लंडची विमान येरादारी तीन मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळांवेल्यान जाता. हे विमानतळ म्हळ्यार डब्लिन, शॅनन आनी कॉर्क. वर्साक सुमार ४ दशलक्ष लोक विमानांतल्यान येरादारी करतात. डब्लिनसावन सुमार २.५ दशलक्ष लोक वर्साक प्रवास करतात. 'एअर लिंगस' (Aer Lingus) ही हवाई मार्गाचेर नियंत्रण दवरपी मुखेल संस्था. हे संस्थेकडेन २३ विमानां आशिल्ल्याची नोंद आसा. ११ देशांतल्या २९ शारांनी हे संस्थेकडल्यान येरादारीचे वेव्हार जातात.

दूरसंचारण (Telecommunication) ची उदरगत आयर्लंडांत १९८० वर्सा जाली. देशांतल्या सगळ्या वाठारांनी दूरध्वनी आसा. आयर्लंडांत राश्ट्रीय थराचेर सकाळचीं उजवाडाक येवपी स खबरापत्रां आसात, सांजेचीं उजवाडाक येवपी ४ आसात. तेभायर सुमार ८० वयर थळावीं दिसाळीं आसात. 'रेडिओ टेलेफिस आयरीन' (Radio Telefis Eireann) ही राश्ट्रीय प्रसारण संस्था. रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी सेवेचेर हे संस्थेचें नियंत्रण आसता.

**लोक आनी समाजजीण:** आयर्लंडची वट्ट लोकसंख्या १९८६ वर्सा ३५,४७,००० आशिल्ली. हातूंतले चडशे लोक कॅल्टीक आनी कॅल्टीक-मॉर्मन अशा मिश्र वंशाचे आसात. ९५% लोक रोमन कॅथालिक धर्माचे आसात. धर्मस्वतंत्रतायेक मान्यताय आशिल्ल्याकारणान हेर धर्मांचेय लोक हांगा आसात.

आयरीश कुटुंबांत सुमार ६-७ मनशां आसतात. लग्न करपाची पिराय सादारणपणान ३० वर्सांच्या वयर. गांवगिऱ्या वाठारांनी रावपी लोकांचीं घरां तणाच्या नाजाल्यार पानांच्या पाख्यांचीं आसतात. सद्या नवीं येवपी घरां फातरांचीं आनी नळ्यांचीं आसात.

बटाट, कांदे, मांसाचो सूप, ओटच्या पीठाचो सांजो, कोबी ह्या सारक्या गजालींचो जेवणखाणांत चड आस्पाव आसता. आयरीश व्हिस्की आनी स्टाउट बीयर हांगा बरीच लोकप्रिय आसा.

आयरीश लोकांक खेळाची आनी घोडेस्वारीची बरीच आवड आसा. दर वर्सा कितल्योश्योच घोड्यांसर्ती जातात. तेभायर सॉकर, बॉक्सिंग, हर्ली (हॉकीभशेन एक खेळ), गेलिक फुटबॉल ह्या सारके खेळ बरेच लोकप्रिय आसात.

रोमन कॅथलिकांचे सगळे सण आनी उत्सव आयर्लंडांत मनयतात. 'आन टोस्टाल' नांवाचो उत्सव ईस्टरासावन तीन सप्तकां चलता. हातूंत नाटकां, गायन, मिरवणुकी सारक्यो कार्यावळी जातात. नाटकांचीय हांगाच्या लोकांक बरीच आवड आसा.

आधुनिकीकरणाक लागून लोककलांचो इल्लो इल्लो नाश जायत चल्ला. गांवगिऱ्या वाठारांनी प्रचलित आशिल्ल्यो अंधश्रध्दा, रुढी काबार जायत चल्ल्यात.

पांचव्या शेंकड्यासावन ख्रिस्ती धर्मप्रसारकांच्या कामाक लागून हांगा धर्मीक कला आनी वास्तुशिल्पाक म्हत्व आयलें. शिल्पकारांनी फातरांचेर कोरांतिल्ले खुरीस आनी धर्मीक शिल्पां, पूजेचें सामान, विंगड विंगड

अलंकार ह्या साक्र्यो पोरन्यो कलाकृती आजूय अज्रंवर आसात.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांतल्या आयरीश स्वतंत्रताय चळवळीचो वांटो म्हूण आयरीश कलेच्या उदरगतीखातीर बरेच यत्न जाले. 'आयरीश हायबर्निया अकादेमी' हे संस्थेच्या फाटबळाक लागून जॉन किटींग, मॉरीस, माकुगोनिल, एस्टेल सोलोमन सारक्या चित्रकारांनी युरोपांत नांव मेळयलें. आयरीश लोकसंगीताक आनी नाटकांक बरीच पोरनी परंपरा आसा. सरकारी यत्नान तांचें पुनरुत्थान करपाचें काम चालू आसा. विणप, शिंवप हातूंत आयरीश दादले-बायलो बऱ्योच ,फुडें पावल्यात. कलाकुसरीभितर लांकडाचेर आनी धातूचेर तशीच फातराचेर केल्ली कलाकुसर बरीच लोकप्रिय आनी सोबीत आसा.

**शिक्षणः** आयरीश संविधानांप्रमाण शिक्षण हो दर एकेल्याचो मुळावो हक्क थारायला. ६ते १५ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांनी शाळेंत नांव घालप सक्तीचें आसा. १९८४ त शिक्षणाचेर ९७० दशलक्ष पौंड खर्च करपाची सरकारी येवजण आसली. मुळाव्या शाळांनी सुमार ६,००,००० भुरगीं शिकतात. चडशा शारांनी आनी गांवांनी वेवसाय-धंद्याचें शिक्षण दिवपी संस्था आसात. तातूंत शेतकी वेपार आनी तंत्रीक शिक्षण दितात. डब्लिन विश्वविद्यालय (थापणूक १५९१) आनी आयर्लंड राश्ट्रीय विश्वविद्यालय (National University of Ireland, थापणूक १९०८) हीं हांगाचीं दोन विश्वविद्यालयां. मेनूथ हांगा धर्मशास्त्राचें शिक्षण दिवपी नामनेचें विश्वविद्यालय आसा. शिक्षण मुळाव्या, माध्यमिक आनी उंचेल्या अशे तीन पांवड्यांचेर चलता. तंत्रीक शिक्षणाक हालीं आयर्लंडांत चड म्हत्व येवंक लागलां. शाळांनी गेलिक (Gaelic) आनी इंग्लीश ह्या दोनूय भाशांनी शिक्षण दितात.

**भाशा आनी साहित्यः** पूर्विल्ल्या काळांत ऑगेम (Ogam- सद्याक Ogham अशें बरयतात) नांवाची लिपी प्रचलित आशिल्ली, पूण खुणांची लिपी आसल्याकारणान ती साहित्याक लिपीबध्द करूंक पावलीना. तेन्नाचें साहित्य संतकथा, शौर्यगाथा अशा तरांचे आसतालें. हें साहित्य चडशें पद्यांत आसतालें. गद्यांत आशिल्लें साहित्यय पाठांतरांतल्यान तिगोवन दवरताले. धर्मीक कवनां त्या काळांत बरींच लोकप्रिय जालीं. सेंट पॅट्रीकाचें कवन आनी उल्ट्रान हाचें सेंट ब्रिजीटाचेर रचिल्लें गीत खूब लोकप्रिय आसा. पांचव्या शेंकड्यांत सेंट पॅट्रीकाच्या यत्नांनी हांगा रोमी लिपी पावली. ह्या उपरांतचीं दोनचार शेंकड्यांतलीं गीतां, लोककथा, संतकथा सारके प्रकार गेलिक भाशेंतल्यान आशिल्ले. ह्या काळाक गेलिक साहित्याचें भांगरायुग म्हण्टात. व्हायकिंगाच्या घुरयांक लागून हातूंतले बरेंच लेखी साहित्य नश्ट जालें. उपरांत ब्रिटिशांच्या शेकातळा आयरीश साहित्य आनी लोक चेंपून आशिल्ल्याकारणान साहित्याची निर्मणी सोंपपाची भिरांत तयार जाली.

अठराव्या-एकुणिसाव्या शेंकड्यांतल्या राश्ट्रीय चळवळींच्या काळांत 'गेलिक लीग' (Gaelic League) सारक्या संस्थांनी आयरीश भाशेचे उदरगतीखातीर बरेच यत्न केले. ह्या काळांत विल्यम येटस्, जॉर्ज रसेल (ल्यूईस) सारक्या लेखकांनी इंग्लीश भाशेंतल्यान आयरीश जीण आनी संस्कृतायेचें चित्र रंगयलें. हाचो परिणाम जावन आयर्लंडांत बरेंच समाजप्रबोधन जालें. लेडी ग्रॅग्गरी, शॉन ओकेसी, जॉन मिलींग्टन सिंज हांणी नाटकां बरोवपांत नामना मेळयली. जॉनाथन स्विफ्ट, ऑलिव्हर गोल्डस्मिथ, टॉमस मूर, जेम्स जॉयस, पॅट्रीक कॉलम, जेम्स स्टीफन, ऑस्कर वाइल्ड, बर्नार्ड शॉ ह्या आयरीश साहित्यिकांनी देशाची कीर्त वाडयली.

**म्हत्वाचीं थळां:** डब्लिन ही राजधानी, बेलफास्ट, लिमरीक, लंडनडेरी, वॉटरफर्ड हीं कांय मुखेल शारां. तेभायर पर्यटनाक लागून किलार्नी आनी ग्लॅनगारिक हीं ठिकाणां बरींच लोकप्रिय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**आयर्विन्, लॉर्ड एडवर्ड फ्रेड्रिक लिंडले वूडः** (जल्मः १६ एप्रिल १८८१; मरणः २३ डिसेंबर, १९५९).

भारताचो १९२५ ते १९३१ ह्या काळांतलो गव्हर्नर-जनरल. ताका लॉर्ड हॅलिफॅक्स म्हणूनय वळखतात. ताणें ऑक्सफर्ड शारांत आपलें शिक्षण पुराय केलें. १९१० वर्सा हुजूर पक्षावटेन पार्लमेंटाचेर ताची वेंचणूक जाल्ली. पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत 'यॉर्कशर ड्रॅगून्स' ह्या सैन्य विभागाचो मेजर आसतना ताणें भोव बरी कामगिरी केल्ली. १९२१ वर्सा वसाहती खात्याचो अंडर सेक्रेटरी ऑफ स्टेट म्हूण तांची नेमणूक जाली. १९२२ ते १९२४ ह्या काळांत तो ब्रिटीश शिक्षण मंडळाचो अध्यक्ष आशिल्लो.

१९२५ वर्सा हिंदुस्थानाचो गव्हर्नर जनरल (१९२५-१९३१) म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९२६ वर्सा तो भारतांत आयलो. ह्या काळांत भारतांत हिंदू आनी मुसलमान हांच्यात जातीय झगडीं जातालीं. तेन्ना जातीय ताण वाडचो न्हय ह्या हेतान ताणें हिंदू-मुसलमानांक एकठांय बसोवन एकचार घडोवन हाडपाचो उपाट यत्न केलो.

१९१४ तलो 'इंडियन रिलीफ ॲक्ट' मान्य जावनय दक्षिण आफ्रिकेंत गेल्ल्या भारतीय कामगारांचेर अन्याय जाता हें पळोवन गांधीजीन चळवळ सुरू केली. तेन्ना आयर्विन हाणें केप टाऊन हांगा हिंदुस्थान आनी आफ्रिका सरकार हांच्या प्रतिनिधींची परिशद घेतली. हे परिशदेंत मान्य जाल्ल्या प्रमाण ताणें श्रीनिवास शास्त्री आनी गांधी हाका हिंदुस्थानाचो प्रतिनिधी म्हूण आफ्रिकेंत धाडलो.

' काँग्रेसीचे वाडटे चळवळीचेर नियंत्रण दवरपाखातीर ३० ऑक्टोबर १९२९ ह्या दिसा ताणें हिंदुस्थानाक वसाहतीचें स्वराज्य दिवपाचो पार्लमेंटाचो हेत जाहीर केलो.

१९२९ वर्सा लखनौ शारांत जाल्ल्या अधिवेशनांत काँग्रेसीन पुराय स्वातंत्र्याचें ध्येय जाहीर करून महात्मा गांधीच्या हाताखाला सविनय कायदेभंगाची चळवळ सुरू केली. ही चळवळ बंद करूंक ब्रिटीश सरकारान काँग्रेसीच्या फुडाऱ्यांक धरले. ह्या वेळार आयर्विनान सर तेजबहाद्दर सपु आनी बॅरिस्टर जयकर हांचे मध्यस्थीन गांधीकडेन उलोवणी केलीं.

५ मार्च १९३१ दिसा गांधी आनी आयर्विन कबलात जाली. हे कबलातीवेल्यान महात्मा गांधीन सविनय कायदेभंगाची चळवळ फाटीं घेतली आनी ब्रिटीश सरकारान राजकी कैद्यांची सुटका केली.

लॉर्ड आयर्विनाचे कारकिर्दींत शेतीविशींच्यो आनी हेर समाजीक सुदारणां जाल्यो. १९२६ वर्सा बायलांक मतदानाचो हक्क मेळ्ळो. आयर्विनाच्या पालवाक लागून, लिनलिथगोचे अध्यक्षतेखाला नेमिल्ल्या शेतकी आयोगाचो अहवाल १९२८ वर्सा उजवाडाक आयलो. १९२९ वर्सा, शेतकामांत उदरगत करचेपासत 'इम्पीरियल काउन्सिल ऑफ ॲग्रिकल्चर' ह्या मंडळाची थापणूक जाली. सारडा (शारदा) ह्या कायद्याकय ताणें मान्यताय दिली. ह्या कायद्याप्रमाण चलयांची पिराय लग्नाच्या वेळार १८ वर्सांसकल आसूंक फावना, हें थारलें.

भारतांतल्यान परत ऑक्सफर्डाक वतकच १९३३ वर्सा, ताची ऑक्सफर्ड विद्यापीठाचो कुलगुरू म्हूण नेमणूक जाली. १९३५ वर्सा झुजाखात्याचो सचिव आनी १९३७ 'लॉर्ड प्रेझिडेंट ऑफ काउन्सिल' ह्या पदार ताणें कामां केलीं.

संयमशील राज्यअधिकारी म्हूण भारताच्या इतिहासांत ताणें नांव जोडलां.

- कों. वि. सं. मं.

**आयुर्वेदः** आयुर्वेद उतराची व्याख्या 'आयुस् वेद्यति इति आयुर्वेद' वा 'आयुस वैद्यते अनेन इति आयुर्वेद' अशी करतात.

आयुस म्हळ्यार आयुश्य (पिराय) आनी वेद म्हळ्यार गिन्यान. मनशाची भलायकी सुदारून मनशाक निरोगी तशेंच दीर्घआयुश्य (व्हड आयुश्य) मेळपाखातीर वैजकीशास्त्र, रोगनिदान आनी उपचार हांची म्हायती दिवपी ग्रंथ चरक सूत्रांत आयुर्वेदाची व्याख्या अशी केल्याः

हिताहितं सुख दुःखम् आयुस्तस्य हिताहितम्।
मानं च तस्य यत्रोक्तम् आयुर्वेदः स उच्यते।। (१.४१)

अर्थः हित, अहित, सुख, दुखख अशा चार तरांच्या आयुश्याचें पथ, अपथ्य आनी प्रमाण जातूंत सांगलां ताका 'आयुर्वेद' म्हण्टात.

आयुर्वेदाक अथर्ववेदाचो उपवेद मानतात. हे नदरेन अथर्ववेदाक खूब म्हत्व आसा. हातूंत आयुर्वेदासंबंदीच्यो गजाली उक्त्यो करून सांगपी १४४ सुक्तां आसात.

आयुर्वेदाच्या ग्रंथांत ब्रह्मा आयुर्वेदाचो पयलो प्रवर्तक मानला.

स्वयंभूर्ब्रह्मा प्रजाः सिसृक्षुः प्रजानां
परिपालनार्थमायुर्वेदमेवाग्रेऽ सृजत्। (काश्यपसंहिता विमानस्थान).

अर्थः लोक निर्मूपाची इत्सा धरपी स्वयंभू ब्रह्म्यान लोकांची राखण जावपाक जाय म्हूण पयलींच आयुर्वेदाची रचणूक केली.

ब्रह्मान लाख श्लोक आशिल्लो 'ब्रह्मसंहिता' नांवाचो एक ग्रंथ आयुर्वेदाचेर बरयला. ही संहिता सद्या मेळना. पूण ताणें सांगिल्ली वखदी योगांचीं सोळा परस चड नांवां आयुर्वेदाच्या दुसऱ्या ग्रंथांत मेळटात. 'चंद्रप्रभावटी', 'ब्राह्मीतेल', 'ब्रह्मरसायन' अशीं त्या कांय वखदी योगांचीं नांवां आसात.

ब्रह्म्यान आपणाली ही आयुर्वेद विद्या दक्ष प्रजापतीक आनी भास्कराक दिली. दक्षाचे परंपरेंत सिध्दांताक तर भास्कराचे परंपरेंत चिकित्सा पध्दतीक म्हत्व आसा.

दक्षाकडल्यान अश्विनीकुमारांनी पुराय आयुर्वेदाचें अध्ययन केलें. तांणी आयुर्वेदाचेर ग्रंथ बरयले, पूण सद्या ते मेळनात. तांच्या 'आश्विनसंहिता', 'चिकित्सासारतंत्र', 'अश्विनीकुमारसंहिता' ह्या ग्रंथांची नांवां आनी तातूंतले उतारे दुसऱ्या आयुर्वेदीक ग्रंथांत दाखल्याक म्हूण घेतिल्ले दिसतात.

अश्विनीकुमारांनी इंद्राक आयुर्वेद शिकयलो. इंद्राली आयुर्वेदासंबंदीची बरयल्ली रचणूको मेळना. पूण ताच्या ऐंद्रिय रसायन, सर्वतोभद्र, दशमूलादितैल आनी हरीतकी लेह आदी वखदी योगांचे उल्लेख सांपडटात.

इंद्राकडल्यान भरद्धाज, निमि, भृगु, अंगिरा, अत्रि, वसिष्ठ, कश्यप, अगस्त्य, पुलस्त्य, वामदेव, असित, गौतम आदी ऋषींनी आयुर्वेदाचें शिकप घेतलें. ह्या ऋषींनी आयुर्वेदाचेर ग्रंथ बरयल्यात, पूण ते सांपडनात. तांगेल्या ग्रंथांचीं वचनां दुसऱ्या पुस्तकांनी सांगिल्लीं दिसून येतात. फकत भरद्धाजालीं मात भेषजकल्प आनी भारद्धाजीय प्रकरण दोन ग्रंथ हातबरपाच्या रुपांत मद्रासच्या ग्रंथभांडारांत सांपडटात. भरद्धाजाल्या दिवोदास धन्वंतरी शिष्यान, कश्यप ऋषीन आनी निमि ऋषी हाणें आयुर्वेदाचो विंगडविंगड फाट्यांत विस्तार केलो.

भरद्धाजाकडल्यान आयुर्वेदाचें गिन्यान घेवन दिवोदास धन्वंतरीन आयुर्वेदाची आठ आंगांत वांटणी केली. तांची नांवां अशीं:- काय, शालाक्य, शल्य, कौमारभृत्य, भूतविद्या, गद, रस आनी वाजीकरण. हातूंतल्या शल्यतंत्राचें (भिषक्रिया) खासा गिन्यान वाडोवन धन्वंतरीन ताजो खूब प्रसार केलो. 'सन्निपातकलिका', 'धातुकल्प', 'रोगनिदान', 'वैद्यचिंतामणी', 'धन्वंतरी निघंटु' अशे ग्रंथ रचल्यात.

आयुर्वेदाच्या आठ विभागांची म्हायती अशी:

१. **कायः** काय म्हळ्यार शरीर. हातूंत ज्वर, अतिसार, ग्रहणी, अर्श, अजीर्ण, विसूचिका, अलसक, कृमि, आमला, कुष्ठ, शीतपित्त, आम्लपित्त, विसर्प, विस्फोट असले रोग, तांचे भेद निदान आनी चिकित्सा हांचें वर्णन येता.

२. **शालाक्यः** शालाक्य म्हळ्यार शलाकेसंबंदीत. हातूंत शलाकेचो उपेग करून रोग बरे करपाचें निदान आसा. तशेंच शिरोरोग, कर्णरोग, नेत्ररोग, नासिकारोग आनी मुखरोग हांचें वर्णन, निदान आनी चिकित्सा येता.

३. **शल्यः** शल्य म्हळ्यार फाळप (शस्त्रक्रिया). हातूंत गंडमाला, अपची, गलगंड, पिटिका, अर्बुद, ग्रंथि, श्लीपद, व्रणशोथ, भग्न, नाडीव्रण, भगंदर, उपदंश, शूकदोष सारके जायते रोग, तांचे भेद चिकित्सा आनी तांचेर करपाची शस्त्रक्रिया हांचें वर्णन आयलां.

४. **कौमारभृत्यः** भुरग्यांचें लालन-पालन आनी चिकित्से संबंदी आशिल्लें शास्त्र. हातूंत पदर, योनिव्यापद, गर्भस्त्राव, गूढगर्भ, वंध्यारोग, योनी संबदीत रोग, शुक्र संबंदीत रोग, सूतिकारोग, गाढलोम, निर्लोम आनी हेर जायते बालरोग; तांचीं वर्णनां, निदान आनी चिकित्सा हांचो ह्या शास्त्राकडेन संबंद येता.

५. **भूतविद्याः** मानसिक रोगाचें निदान आनी ताचेर उपाय सांगपी आयुर्वेदाचो विभाग. हातूंत उन्माद, भूतोन्माद, अपस्मार असले रोग आनी तांचें वर्णन आयलां.

६. **गदः** गद म्हळ्यार वीख. जायते तरेचीं विखां आनी तांचेर उपाय हाचो संबंद ह्या फांट्याकडेन पावता. देखीकः सर्पविष, लूतविष, वृश्चिकविष, मूषकविष, नखविष, दंतविष, कृत्रिमविष असल्या जायत्या विखांची म्हायती आनी तांचेर उपाय हातूंत सांगल्यात.

७. **रसः** मनशाक सदांच निरोगी आनी बळीश्ट करपी आयुर्वेदाचो विभाग. हातूंत रसायनां, ओषधिकल्प, भेषजकल्प, वखदां घेवपाचे नेम, मानपरिभाषा, तांचें निरुपण, दिनचर्या, रात्रिचर्या, ऋतूचर्या असले जायते विशय स्पश्ट केल्यात.

८. **वाजीकरणः** वीर्य वाडोवपाचो प्रयोग, वीर्य वाडोवपाचे नेम, वखदां, नपुंसकत्व तशेंच ताचे भेद आनी चिकित्सा, संतानोत्पादक वखदी योग हांचें वर्णन आयलां.

अशेतरेन एक आशिल्ल्या आयुर्वेदाचे आठ विभाग जाले. त्या विभागाचो फुडें खूब विस्तार जालो. ह्या विभागांक 'आंग' अशें नांव दिलें.

**कायचिकित्साः** दिवोदास धन्वंतरी भशेन भरद्धाजाचो पुनर्वसु आत्रेय नांवाचो एक शिष्य आसलो, ताका गिन्यान जोडपाची खूब इत्सा आसली. तो ऋषीक वांगडा घेवन वनस्पतीचो सोद घेवपाक भोंवत रावतालो. हाका 'भिषग्विद्याप्रवर्तक' अशें विशेशण प्राप्त जालां. भिषगविद्या म्हळ्यार कायचिकित्सा. आत्रेयान तिचो पुरस्कार केलो. ताणें स्वता आयुर्वेदासंबंदान संहिता बरयल्या. ताचीं हातबरपां आयज लेगीत सांपडटात.

अग्निवेश, भेल, जतूकर्ण पराशर हारीत आनी क्षारपाणि अशे स मुखेल शिश्य पुनर्वसु आत्रेय हाच्याम्हन्यांत आयले. ह्या स जाणांनी कायचिकित्सेचेर ग्रंथ बरयल्यात. अग्निवेश हाणें अग्निवेशतंत्र, नाडीपरीक्षा, अग्निवेश हस्तिशास्त्र, भेलान भेड(ल) संहिता, जतूकर्णान, जतूकर्णसंहिता, पराशरान, पराशरतंत्र, हारीतान आयुर्वेदसंहिता, चिकित्साशास्त्रसंग्रह आनी क्षारपाणिन कायचिकित्सापरक तंत्र बरयलें. हातूंतले कांय ग्रंथ सांपडल्यात तर कांय नात. हाचे उपरांत चरक आदी ऋषींनी कायचिकित्सेचो विस्तार केल्लो दिसता.

**शालाक्यतंत्रः** आयुर्वेदाचें दुसरें आंग म्हळ्यार शालाक्यतंत्र. ऊर्ध्वजत्रुगत म्हळ्यार नाक, कान, ताळो आदी अवयवांच्या रोगांचे चिकित्सा पध्दतींत शलाकेचो(सळयेचो) चो उपेग करतात. म्हूण हे पध्दतीक 'शालाक्य' नांव पडलें.

इंद्राचो 'निमि' नांवाचो शिश्य आसलो. ताणें शालाक्य तंत्राचें गिन्यान लोकांक विस्तारान पयलेच फावट प्राप्त करून दिलें म्हूण ताका 'आद्यभिषक्' ही पदवी मेळ्ळी. आयुर्वेदाच्या तंत्रांत निमिचें शालाक्यतंत्र प्रमाण मानतात. ताचें तंत्र मेळना पूण ताचीं वचनां दुसऱ्या ग्रंथांत आदार म्हूण घेतिल्लीं दिसतात. हाच्या शालाक्यतंत्रांत निमितंत्र नाजाल्यार विदेहतंत्र म्हण्टात. हो विदेह राज्याचो संस्थापक आनी जनक राजाचो आजो आसपाक जाय.

निमिचो शिश्य 'कराल' हो शालाक्य तंत्रकार आसलो. दोळ्यांचे रोग ९६ तरेचे आसात अशें तो म्हण्टा. चरकान आपले संहितेतल्या 'अक्षिरोग' प्रकरणांत हाचो आदार घेतला.

शौनक, कांकायन, गार्ग्य, गालव ह्या आयुर्वेदाच्या जाणकारांनीय शालाक्य तंत्राचेर ग्रंथ बरयल्यात. तेचपरी चक्षुष्येण, सात्यकि, भोज

आदी आनीकय शालाक्य तंत्रकार जावन गेल्यात.

**शल्यतंत्रः** दिवोदास धन्वंतरी हो ह्या तंत्राचो मुखेल ऋषी आसलो. हाका द्वितीय धन्वंतरी ह्या नांवानूय वळखताले. हाणें आयुर्वेद आठ आंगांत वांटलो आनी तिसऱ्या आंगाचो म्हळ्यार शल्यतंत्राचो (शस्त्रचिकित्सेचो) प्रसार केलो.

सुश्रुत हो धन्वंतरीच्या सात शिश्यांमदलो मुखेल आसलो. तो शस्त्रक्रियेंत कुशळ आसलो, अशी नामना आसा. हो विश्वामित्रालो पूत अशें सुश्रुतसंहितेंत म्हळां (चि. २.३.). ही सुश्रुतसंहिता आयजूय पळोवंक मेळटा.

धन्वंतरीचे औषधेनव, औरभ्र, पौष्कलावत शिश्य जावन गेल्यात. हांणी ग्रंथरचना केल्ली आसा. सुश्रुताउपरांत करवीर्य, वैतरण, भालुकि, गोपुररक्षित, दारुक हे शल्यतंत्रकार जावन गेल्यात. हांणीय ग्रंथ बरयल्ल्याचें स्पश्ट जाता.

**कौमारभृत्यः** बालचिकित्सेक आयुर्वेदांत 'कौमारभृत्य' अशें नांव दिलां. 'जीवक' हो आयुर्वेदाच्या चवथ्या आंगाचो नामनेचो आचार्य. ताका 'वृध्दजीवक' म्हणूनय वळखतात. तो भृगुवंशी ऋचीक हाचो पूत. जीवकान कौमारभृत्य तंत्राचें गिन्यान प्रजापति कश्यपाकडल्यान जोडलें. प्रजापति कश्यपाक ब्रह्मदेवाल्या आशीर्वादाक लागून हें गिन्यान अंतर्ज्ञानान प्राप्त जालें. जीवक हाच्या ग्रंथाचें नांव 'वृध्दजीवकीयतंत्र' अशें आसून कश्यपाकडल्यान हें गिन्यान मेळिल्ल्यान ह्या ग्रंथाक 'काश्यपसंहिता' म्हण्टात. रावण हो कौमारभृत्याचो दुसरो आचार्य आसून ताणें 'कुमारतंत्र', 'बालतंत्र', 'बालचिकित्सा', 'नाडीपरीक्षा', 'अर्कप्रकाश', 'उद्देशतंत्र' हे ग्रंथ बरयल्यात. तेभायर पार्वतक आनी बंधक ह्या दोन कौमारभृत्य तंत्राच्या आचार्यांचो उल्लेख सुश्रुत संहितेचे व्याख्येंत डल्हण ह्या व्याख्याकारान केल्लो आसा.

**भूतविद्याः** आयुर्वेदाचो हो पांचवो विभाग आसून तातूंत आकाश (मळब), वायु, तेज (उजवाड), आप (उदक) आनी पृथ्वी ह्या पांच महाभूतांसावन पुराय सृश्ट निर्माण जाता असो एक सिध्दान्त आसा. हाची उतरां, स्पर्श, रूप, रस आनी गंध (वास) अशीं पांच तन्मात्रां आसात. हीं सगळीं तत्त्वां शरीरांत एकठांय जाल्लीं आसतात. तांचें सूक्षीम कार्य शरीरांत चालूच आसता. सैमाचे नेम मोडटच सूर्य, चंद्र, गिरे हांचो प्रभाव मनशाचे कुडीचेर जाता. तेवरवीं खूबशे रोग उत्पन्न जातात अशें चरक सांगता. (नि. ७.१३)

ह्या आंगाचो खास विस्तार जाल्लो दिसना. म्हूण हाचें मुखेल पद ब्रह्मा, दक्ष, प्रजापति, भास्कर, अश्विनीकुमार, इंद्र, भरद्वाज आदी आचार्यांकडेन वता.

**गदः** गद म्हळ्यार वीख. ताचे शमनाविशींचे तंत्राक 'अगदतंत्र' म्हण्टात. आयुर्वेदांत 'अगद' ह्या उतराक खास अर्थ प्राप्त जाला. आचार्य डल्हण हाणें ताची व्याख्या 'अगदे विषप्रतीकारः तदर्थ तंत्रम् अगदतंत्रम्।' अशी केल्या. ह्या तंत्राचे आचार्य काश्यप, उशना आनी बृहस्पति आसात. आलंबायन नांवाचो एक आचार्य ह्या तंत्राचो तंत्रकार जावन गेला. दारुवाह आनी आस्तीक हेवूय अगदतंत्राचे जाणकार आशिल्ले.

**रसः** रस हें आयुर्वेदाचें सातवें प्रभावी आंग आसा. हातूंत मनशाची पिराय वाडोवपासंबंदी योग सांगल्यात. सुश्रुतान रसतंत्राची व्याख्या 'रसायनतंत्रम् नाम वयःस्थापनम् आयुर्मेधाबलकर रोगापहरण समर्थंच।' अशी केल्या. रसायनतंत्र पिराय वाडयता, बुद्ध-शक्त दिता आनी रोगाचो नाश करता.

शिव हो रसतंत्राचो मुखेल आचार्य आसलो. भृगु, अगस्त्य आनी वसिष्ठ हेवूय रसतंत्राचे आचार्य आसले. तांच्याफाटल्यान मांडव्यालें रसतंत्र चड म्हत्वाचें आसा. तेभायर व्याहि, पतंजलि, नागार्जुन रसतंत्रांत जाणकार आशिल्ले. नागार्जुनान लोहशास्त्र रसरत्नाकर, आरोग्यमंजिरी, योगसार अशे खूब ग्रंथ बरयल्यात.

**वाजीकरणः** हें आयुर्वेदाचें आठवें आंग. वाजी म्हळ्यार घोडो. घोड्यावरी शक्त दिवपी वखदांची उपाय येवजण म्हळ्यार वाजीकरण. भूतविद्येभशेन ह्या आंगाचो खास विस्तार जावंक ना अशें दिसता. हाचें मुखेल पद ब्रह्म हाचेकडेन वता.

आयज वैजकी वेवसायाचे जायते फांटे जाल्यात आनी त्या त्या विशयाचें खास गिन्यान वैजकी शिकतल्या भुरग्यांक दितात. आयुर्वेदांत ही पध्दत आसली. एकाच विशयांतले जाणकार रोगाची चिकित्सा पुरायपणान करूंक शकनात, हें जेन्ना तांचे नदरेक आयलें तेन्ना आठय आंगां एकठांय करून 'अष्टांगसंग्रह', 'अष्टांगहृदय' हांचे सारके ग्रंथ बरोवपांत आयले. ह्या आठ्य भागांतलीं शास्त्रां बरींच फुडें पाविल्लीं. शल्यतंत्र खूबच फुडारिल्लें. ह्या शास्त्रांत आयुर्वेदाच्या आचार्यांनी आयच्या काळांतल्या वैजकी शास्त्रापरस चड वेल्या पांवड्यावेले सोद लायिल्ले अशें वेदांतल्या लिखाणावेल्यान दिसता. देखीक-म्हातारो जाल्ल्या च्यवन ऋषीक अश्विनीकुमारांनी तरनाटेंपण मेळोवन दिल्लें, यज्ञावेळार कापून उडयल्ली दक्षाली तकली परती ताका दसोवन जिवो केल्लो, इंद्राक बोकडाचें शिस्न लायिल्लें, पूषादेवतेक नवे दांत बसयिल्ले, भगदेवाक नवे दोळे दिल्ले अशा कितल्याशाच प्रयोगांचो उल्लेख मेळटा.

वृद्धवाग्भट 'अष्टांग संग्रह' हाचो, तर वाग्भट 'अष्टांगहृदय' हाचो कर्तो आसा. 'रुग्विनिश्चय' हाचो कर्तो माधव बऱ्यापैकी आयुर्वेदीक जाणकार आसलो. हाचे उपरांत चक्रपाणिदत्त, वंगसेन, मिल्हण, बोपदेव, लोलिंबराज, सुरेश्वर, नरहरि, मदनपाल, पृथ्वीमल्ल अशे जायते आयुर्वेदाचे ग्रंथकार जावन गेल्यात. आयुर्वेदाची आनीक एक तरेन वांटणी केल्ली आसा. हेतू, लक्षण आनी औषधिविज्ञान हांकां स्कंध अशें म्हण्टात. तेपासत आयुर्वेदाक 'त्रिस्कंध आयुर्वेद' अशेंय म्हण्टात.

आयुर्वेदाचे सांगणेप्रमाण शरीरांत वात, पित्त आनी कफ अशे तीन धातू आसतात. हे धातू पुराय शरीरांत व्यापून आसतात. तांकां लागून शरिराचें धारण-पोशण जाता. धातूंत उणेपण निर्माण जातकच शरीरांत रोग उत्पन्न जातात आनी धातूंत साम्य निर्माण जातकच भलायकी प्राप्त जाता असो आयुर्वेदाचो सिध्दान्त आसा.

- डॉ. अनंत राम भट

**आरण्यकः** वैदिक साहित्यांतलो एक मुखेल व्याख्यात्मक गद्यविभाग. ऋषी मुनींनी अरण्यांत रावन गंभीर तत्वचिंतन केलें. त्या तत्वचिंतनाचो आदार घेवन तांणी जायत्या ग्रंथांची निर्मणी केली. त्या ग्रंथ साहित्याक 'आरण्यकां' म्हण्टात. मूळ उपनिषदां हीं आरण्यकांच आसलीं. अरण्यांत रावन यज्ञकार्य करपी ऋषी मुनींनी ह्या यज्ञांची विवरणां आपल्या रहस्यग्रंथांत बरयलीं. ह्या यज्ञरहस्यांक 'आरण्यक' अशें म्हण्टात. सायणाचार्याच्या मतान वानप्रस्थाश्रम आपणायिल्ले अरण्यांत रावन ज्या ग्रंथांचें अध्ययन करतात त्या ग्रंथांक 'आरण्यक' म्हण्टात. यज्ञसंस्थेंतली प्रवर्ग्य संस्था यज्ञाबगर जाताली, पूण ती अरण्यांत जावंची असो नेम आसतालो. ते प्रवर्ग्य संस्थेच्या विधीचो नियाळ आरण्यक साहित्यांत आसतालो. त्या साहित्य-ग्रंथाक 'आरण्यक' म्हण्टाले.

अरण्ये एव पाठ्यत्वादारण्यकमितीर्यते।

आरुणेय उपनिषदांत म्हळां, वानप्रस्थाश्रमांत वेदांतलीं आरण्यकां आनी उपनिषदां हांचेंच अध्ययन करचें. विद्यार्थ्यांक आरण्यकाचो पाठ अरण्यांत दिताले. गांवांत दिनाशिल्ले. सध्या हाचें अध्यापन एकाग्र्या देवळांत जाता.

वेदकालीन यज्ञसंस्थेचो ब्राह्मणकाळांत खूब व्हड विस्तार जालो. त्याचवांगडा तातूंतल्या कर्मकांडाचे विधी कठीण आनी घुस्पागोंदळाचे जाले. यज्ञ, कर्मकांड सारक्या गजालींत रूच न घेवपी एक पंगड त्या काळांत अस्तित्वांत आसलो. हो पंगड अरण्यांत रावन यज्ञाच्या मूळ रहस्याचेर चिंतन करतालो. त्या चिंतनांतल्यान, मनशाच्या भायल्या कर्मांपरस नैतिक आनी मानसिक उपासना सगळ्यांत व्हड आसता अशें तांकां दिसलें. ताका लागून स्वर्ग जोडचेपरस आत्मप्राप्तीकडेन तांचें मन वळळें. यज्ञ, धर्तरेची उत्पत्ती, जीवात्मा, परमात्मा, जल्म, मरण, पुनर्जल्म आनी हेर जायत्या विशयांचो तात्त्विक आनी नैतिक पांवड्यार तांणी विचार केलो. त्या विचारांतल्यान चिंतनशील साहित्याची निर्मणी

जाली. त्या साहित्याक 'आरण्यक' म्हणपाक लागले. आरण्यकाचो विशय यज्ञ हो नासून यज्ञांत आस्पावल्ल्या आध्यात्मिक तथ्यांचो नियाळ आसा.

आरण्यकांचो काळ ब्राह्मणांउपरांतचो, पूण उपनिषदापयलींचो आसपाक जाय अशें म्हण्टात. तेखातीर तांकां ब्राह्मणग्रंथांच्यो पुरवण्यो अशें मानतात. ब्राह्मणांत अस्पश्ट आशिल्लो श्रौतविधीचो वांटो आरण्यकांत बारीकसाणीन सांगला. आरण्यकांतली सादारण फोडणिशी पळेल्यार ती ब्राह्मणापरस उपनिषदांक चड लागींची आसा अशें दिसता.

आरण्यक साहित्य हें वेदांगां आनी ब्राह्मणां हांचें संयोजक आसा. गृह्यसूत्रांत सांगिल्लीं नित्यकर्मां आरण्यकांत सांगल्यांत (तैत्तिरीय आरण्यक २.११). उच्चारासंबंदीचे कांय नेमूय तातूंत आयल्यात (ऐतरीय आरण्यक २.२). ताचेवेल्यान शिक्षणाविशींचें आदलें स्वरूप आरण्यकांत दिसून येता. वेदांगांत आस्पावंक नाशिल्लें, पूण ते उपरांतच्या साहित्यांतले शकून-अपशकून हेय विचार तातूंत मेळटात.

आरण्यकांत यज्ञसंस्थेंतल्या महाव्रत, उख्त, पितृमेध, अरुणकेतुचयन आनी हेर याज्ञिक विशयांचेर भासाभास आयल्या. यज्ञाच्या आधिदैविक आनी आध्यात्मिक स्वरूपाचो नियाळ हो ताचेफाटलो मुखेल हेत जावन आसा. तातूंत यज्ञाचो रहस्यात्मक आनी प्रतीकात्मक अर्थ सांगला. आरण्यकांतलीं वाक्यां ल्हान, सुटसुटीत आनी सोपे भाशेंत आसात. बाह्ययज्ञापरस मानसिक यज्ञाचेर हांगा खास भर दिला. यज्ञाचे दार्शनिक व्याख्येंत, यज्ञ हो सृश्टीचो नियंतो आसून सगळ्या संवसाराचें कल्याण करपी आसा अशें म्हळां. सकाम कर्म आनी कर्मफल हांच्यासंबंदान थंय भावार्थ ना. कर्ममार्ग जोडप होच सुखाचो मार्ग जावंक शकना. ताका गिन्यानाचें फाटबळ मेळपाक जाय अशी आरण्यकांची विचारधारा आसा. लोकांमदली भायल्या कर्मांतली रूच आनी भावार्थ उणो करून तो मानसिक उपासनेकडेन पावोवप हें आरण्यकांचें म्हत्वाचें कार्य आसलें. आयजमेरेन सांपडिल्लीं आरण्यकां अशीं:

**ऋग्वेदः** ऐतरेय आनी शांखायन (कौषीतकी).

**शुक्ल यजुर्वेदः** माध्यंदिन बृहदारण्यक आन काण्व बृहदारण्यक.

**कृष्ण यजुर्वेदः** तैत्तिरीय आरण्यक, मैत्रायणी आरण्यक (मैत्र्युपनिषद्).

**सामवेदः** तलवकार आरण्यक. सामवेदांतल्या आर्विकाचो आदार घेवन गावपाक येवपी विभागाक 'छांदोग्यारण्यक' अशें म्हण्टात. छांदोग्यारण्यक हेर आरण्यकांपरस वेगळें आसा.

**अथर्ववेदः** हातूंत एकाय आरण्यकाचो उल्लेख येना.

आरण्यकांत जायत्या विशयांची खोलायेन फोडणिशी केल्या. संन्यासाचेर भासाभास करतना बृहदारण्यक म्हण्टा, ''संन्यास घेवप्यान पूत, दुडू आनी कीर्त ह्या गजालींचो त्याग करचो आनी भीक मागून पोट भरचें.'' आरण्यकांत प्राणविद्येकय खास म्हत्व दिलां. प्राणविद्येचें म्हत्व सांगतना आरण्यकां ऋग्वेदांतल्या मंत्राचो आदार घेतात (ऋग्वेदः १.१६४.३१,३८). ताचेवेल्यान आरण्यकांचें पूर्विल्लेपण नदरेंत येता. ऐतरीय आरण्यकांत (२.१.६) प्राणांचें व्हडपण सांगलां तें अशें-

> सोऽयमाकाशः प्राणेन बृहत्या विष्टब्धः
> तद्यथा यमाकाशः प्राणेन बृहत्या विष्टब्ध
> एवं सर्वाणि भूतानि आपिपीलिकाभ्यः
> प्राणेन बृहत्या विष्टब्धानीत्येवं विद्यात्।

अर्थः प्राण हो सृश्टीचो आदार आसा. प्राणशक्तीच्या आदाराक लागून हें मळब एका जाग्यार थीर उरिल्लें दिश्टी पडटा. तेचपरी व्हड प्राण्यासावन ल्हान कीड-मुयेमेरेनचे सगळे जीव प्राणान भरिल्ल्यान तांचें कार्य आमचे नदरेक येता.

जितल्यो ऋचा, वेद आनी घोष आसात, तितल्योय प्राणान भरल्यात. त्या प्राणाचीं विंगडविंगड रुपां आनी गूण समजून त्या त्या रुपांत तांची उपासना करची. अशेतरेन उपनिषदांतल्या जायत्या आध्यात्मिक तत्त्वांचो आरण्यकांत आस्पाव जाल्लो दिसता. वैदिक तत्त्वमीमांसेच्या इतिहासांत आरण्यकांक म्हत्वाची सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**आरत-१ :** ताटली वा पंचारतींत, नीरांजन, कापूर वा वाती दवरून त्यो उज्यान पेटोवन देवाभोंवतणी हुंवाळप हाका 'आरत' अशें म्हण्टात. संस्कृत भाशेंत आरत ह्या उतराक 'आरात्रिक', 'आर्तिक्य', 'आरार्तिक्य' वा 'महानीरांजना' अशें म्हण्टात.

पूर्विल्ल्या काळांत राजा-महाराजा, जैतिवंत सेनापती आनी विद्वान पंडीत हांकांय आरत्यो हुंवाळटाले. भुतां-खेतां आनी मनीस हांची दिश्ट लागची न्हय म्हूण ही चाल सुरू जाली. देवाक आरत दाखोवपाफाटलो हेत होच आसता. मंगलकार्यावेळार न्हवऱ्याव्हंकलेक, मूजीवेळार मुंज्याक आरत हुंवाळटात. तशेंच दिवाळे दिसा बायल घोवाक, भाऊबीजे दिसा भयण भावाक आरत हुंवाळटा. नवी बांय खणपाचे सुवातेर, शिवरात्रेक बेलाच्या रुखामुळांत, भुरग्याच्या बारशादिसा, जल्मदिसा, उश्टावणादिसा आरत हुंवाळपाची चाल आसा. देवळांतल्या देवाची आरत भट, ब्राह्मण, घाडी, भगत, जल्मी वा हेर थारावन दिल्ले मनीस करतात. कांयकडेन सवाशीण बायलो आनी देवदासी बायलो लेगीत आरत करतात. लिंगायत लोकांत घोवाचें मडें घरांत आसासर ताची बायल ताच्या तोंडाभोंवतणी आरत हुंवाळटा. आत्मो भूतयोनींत वचचो न्हय म्हूण हो विधी करतात. आरत करपाखातीर वापरल्लिें नीरांजन वा वात, ताटली, पंचारतींतल्यान पडल्यार वा पालवल्यार घरांतल्या कोणाकय तरी मरण येता असो समज आसा. अशें घडल्यार 'दिपपतनशांती' करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**आरत-२ :** देवाक आरत दाखयतना, देवाची तुस्त करपी जीं गीतां गायतात तांकांय 'आरत' अशें म्हण्टात. ह्या आरत्यांक पेटी, झांज, पखवाज, घांट, घुमट, धोलकें हीं वाद्यां संगीताची साथ दिवपाक वाजयतात. आरतींत देवाचे तोखणायेवांगडाच, बरी भलायकी, दुडू, समाधान, सूख मेळचें म्हूण मागणें केल्लें आसता. 'सुखकर्ता दुखहर्ता' ही गणपतीची, 'लवथवती विक्राळा' ही शंकराची, 'दुर्गे दुर्घट भारी' ही देवतेची, 'युगे अठ्ठावीस विठेवरी उभा' ही पांडुरंगाची, 'आरती ज्ञानराजा' ही ज्ञानेश्वराची आरत आसा. 'सिंदूर लाल चढाओ अच्छे गजमुखको' ही हिंदी आरत गणपती संबंदान आसून उत्तर आनी अस्तंत भारतांत नांवाजिल्ली आसा.

गोंयांत गणेशचवथीवेळार गणपतीची पूजा जातकच दनपरां आनी रातीकडेन 'आरत' म्हण्टात. गणपती जितले दीस पुजतात तितले दीस आरत म्हणपाची चाल आसा. खूब काळाउपरांत गोंयांत कोंकणी आरत जल्माक आयल्या. गणपतीक आरत म्हणपावेळार हेर आरत्यांमदीं कोंकणी आरतीचो आस्पाव जावंक लागला. 'जय देवा, जय देवा, जय गणपतीराया, शरण तुज्या पायां, आसूं आमचेर माया'; 'जय देव जय देव जय गणपतीनाथा, दर्शन तुजें जाल्यार मन तृप्त जाता'. ह्यो गणपतीच्या कोंकणी आरतीच्यो दोन देखी आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**आर्किमिडीजः** (जल्म आनी मरणः सिराक्यूज, सिसिली. इ.स.प. सुमार २८७-२१२).

नामनेचो ग्रीक गणिती आनी संशोधक. भूमिती (Geometry), यामिकी (Mechanics) आनी अभियांत्रिकी (Engineering) ह्या तीन वेगवेगळ्या विशयांत ताणें म्हत्वाचें संशोधन केलें.

सिराक्यूजचो राजा दुसरो हियरो आनी ताचो चलो गेलो हांच्यावांगडा ताची दाट इश्टागत आशिल्ली. ताचें सगळें शिक्षण ॲलेक्झांड्रिया हांगा जालें. थंय कॉनन ह्या गणितज्ञाकडेन ताची वळख जाली. शिक्षण सोंपतकच आपल्या जल्मगांवांत येवन ताणें गणिताचो फुडलो अभ्यास चालू केलो. ताचे कांय लेख आयज लेगीत प्रमाण मानतात.

वर्तुळ (circle), अन्वस्त (parabola) आनी सर्पिल (spiral) ह्या वक्रांच्या क्षेत्रमापनाखातीर ताणें वापरिल्ल्या निःशेष (exhaustive) पध्दतीचें कांय प्रमाणांत आर्विल्ल्या समाकलनाच्या (integration) विवरणाकडेन सारकेंपण आसा अशें दिसून आयलां. वर्तळाचो परिघ (circumference)

आनी व्यास (diameter) हांच्या गुणोत्तराचें (ratio) म्हळ्यार $\pi$ चें मोल ३ आनी ३ **हांचेमदीं आसा अशें ताणें सिध्द केलें. शांकवाचें** (conic section) क्षेत्रफळ वा शांकव अक्षाभोंवतणी घुंवन येवपी प्रस्थाच्या (solid figure) भायल्या भागाचें क्षेत्रफळ वा त्या प्रस्थाचें घनफळ तुलनात्मक रितीन मांडूं येता अशें आर्किमिडीज हाणें दाखोवन दिलें. आंकडे मेजपाचे ग्रीक पध्दतींत ताणें सुदारणा केली. तरफेचो सोद ताणेंच लायलो.

'एकाद्री वस्त द्रायूंत (fluid) बुडयतकच ताचेर सकयल्यान वयर अशी एक प्रेरणा लागू जाता. तिका 'उत्प्रणोदन' (upthrust) अशें नांव आसा आनी तिचें मोल पदार्थान कुशीक काडिल्ल्या द्रायूच्या वजनाइतलें आसता. कुशीक काडिल्ल्या द्रायूचें आयतन (volume) पदार्थाच्या बुडिल्ल्या भागाच्या आयतनाइतलेंच आसता.' ह्या तत्वाक 'आर्किमिडीज तत्व' अशें म्हण्टात. उत्प्रणोदनाक लागून पदार्थाचें वजन ताणें कुशीक काडिल्ल्या द्रायूच्या वजनाइतलेंच देंवता. उफेवपी पदाथाचे बाबतींत उत्प्रणोदन= पदार्थाचें वजन हो संबंद आसता.



आर्किमिडीज

एकदां शेटीन केल्ल्या आपल्या मु कु टां त रूपें भरशिलां असो दुबाव राजा हियरो हाका आयलो आनी तें तपासपाचें काम राजान आर्किमिडीज हाका दिलें राजाच्या प्रस्नाची जाप ताका न्हाता आ स त ना अकस्मात मेळ्ळी आनी तो तसोच 'युरेका---- युरेका' (मेळ्ळें, मेळ्ळें) अशें आड्डत उक्तोच भायर र स्त्या र आयलो. अशेतरेन आर्किमिडीज तत्त्वाचो सोद लागलो अशें म्हण्टात.

व्हड्याच्या तळाक सांठिल्लें उदक उसपून भायर काडपाखातीर आर्किमिडीजान सोदून काडिल्ल्या यंत्राक 'आर्किमिडीज स्क्रू' अशें म्हण्टात. ह्या साधनांत एक लांब नळी, तातूंत भितर ताच्या अक्षाचेर बसयल्ल्या दांड्याभोंवतणी मळसूत्रासारको नळयेक दसयल्लो पत्र्याचो पट्टो, दांड्याच्या वयल्या तोंकाचेर मूठ अशे भाग आसतात. नळयेचें सकयलें तोंड उदकांत बुडयल्लें आसता. वयले मुठीन नळी घुंवडायतकच नळयेच्या सकयल्या तोंडांतल्यान उदक भितर सरता आनी मळसूत्री पड्ड्यावयल्यान ल्हव ल्हव चडून वयल्या तोंडांतल्यान भायर पडटा. आदल्या काळांत ह्या यंत्राचो वापर ईजिप्तांत जातालो. हें यंत्र तयार करपाक कठीण आशिल्ल्यान तशेंच ताची कार्यक्षमताय साद्या हातपंपापरस कमी आशिल्ल्यान हालींच्या काळांत तें व्हडलेंशें प्रचारांत ना.

जशे गोफणींतल्यान फातर मोखतात तेच धर्तेर व्हडले व्हडले फातर मोखून मारपाचें यंत्र आर्किमिडीजान तयार केल्लें. रोमन सेनापती मार्सेलस् हाणें दर्यामार्गान सिराक्यूजचेर घाल्ली घुरी राजा हियरोन ह्याच यंत्राच्या नेटार परतून घाली. तरी लेगीत खुष्कीच्या मार्गान येवन मार्सेलस् हाणें सिराक्यूज काबीज केलें. ताच्या सैन्यांतल्या एका सैनिकान आर्किमिडीजाची गोमटीच कापली. त्या वेळार आर्किमिडीज रेंवेचेर भूमितीची एक आकृती काडून गणित सोडोवपांत गुल्ल जाल्लो अशें म्हण्टात.

तॉरेली हाणें १७९२त आनी हाइबेर्ग हाणें १८८० त, आर्किमिडीजाच्या सगळ्या बरपाचें संपादन केलें. उपरांत १८९७ त, हीथ हाणें 'वर्क्स ऑफ आर्किमिडीज' ह्या ग्रंथांत आर्किमिडीजाचे लेख आर्विल्ल्यो कुरु आनी चिन्हां वापरून उजवाडायले.

- कों. वि. सं. मं.

**आर्चबिशप:** किरिस्तांव धर्मांत पाद्री आनी बिशप आसात. पाद्री म्हळ्यार पुरेयत. ते धर्माची सेवा करतात. पूण ते दुसऱ्यांक पाद्रीपणाची 'माखणी' (दीक्षा) दिवंक शकनात. ही 'माखणी' दिवपाचो अधिकार फकत बिशपाकूच आसता. किरिस्तांव धर्मांत पाद्रींची ऑर्द (लॅटीन भाशेंत ऑर्दो -ordo)) आनी बिशपाची ऑर्द आसा.

जेन्ना इगर्ज एक व्हडली संस्था जावन आसता, तेन्ना ती जायत्या प्रांतांनी (डायोसीजीनी- diocese) वांटिल्ली आसता. एका-एका प्रांतांत एक बिशप आसता. थोड्या प्रांतांचो जमो एक 'महाप्रांत' वा 'आर्किडायोसीज (Arkidiocese) जाता. ह्या महाप्रांताच्या वडिलाक 'आर्चबिशप' म्हण्टात. पयल्याच शेंकड्यांनी जे जमे जेजूच्या आपोस्तलांनी (apostle) सुरू केल्ले, त्या जम्यांच्या बिशपांक 'पात्रियार्क' म्हण्टाले. तांकां आतांमेरेन 'पात्रियार्क' हें मानाचें नांव दितात. बिशपांचे ऑर्दींत पांवडे आसनात, सगळे एक सारके. पाप सायब लेगीत एक बिशप. पूण मानाच्या आनी पदवेच्या वर्गांत बिशप अशे तरेन वांटिल्ले आसात:- बिशप, आर्चबिशप, पात्रियार्क. हातूंतल्या थोड्यांक पाप सायब 'कार्दिनाल' करता.

गोंयच्या आर्किडायोसीजीच्या बिशपाक, आर्चबिशप आनी पात्रियार्काचें मानाचें नांव दिल्लें आसा. सगळे आर्चबिशप महाप्रांताचे वडील न्हय. जायत्यो आर्किडायोसीजीय फकत नांवापुरत्यो आसात. डायोसीजीचो जमो आसना, म्हळ्यार एक महाडायोसीज आनी ताच्या सकयल हेर डायोसीज अशें ना. तरीलेगीत त्या डायोसीजीक मानाचें नांव 'आर्किडायोसीज' आसा आनी बिशपाक 'आर्चबिशप' म्हण्टात. जायते खेपे आर्चबिशप हें मानाचें नांव कशें एका बिशपाक दिता. तो एके डायोसीजीचो बिशप, पूण ताका आर्चबिशपाचो मान आसता.

खंयचेच डायोसीजीचे बिशप जायनासतना, जायते आर्चबिशप आसात. पाप सायबान देसांदेसांनी आपले दूत धाडिल्ले आसात. तांकां आपोस्तोलिक, (apostolik), नून्चियो (nuncio) प्रोनून्चियो, इंटरनून्चियो वा प्रतिनिधी (delegate) म्हण्टात. ते आर्चबिशप जावन आसात. तशेंच पाप सायबाचे कचेरेंत काम करपी जायते बिशप आसात तांकां आर्चबिशपाचें नांव आसा. पाप सायबाचे कचेरेंत जायत्या तरेचे धर्मवांटे (congregations) आसात. एकेका वांट्याचो वडील चड करून एक 'कार्डिनाल' आसा आनी चिटणीस एक वा दोन आर्चबिशप.

महाप्रांताचे जे आर्चबिशप आसात, तांच्या गळ्यांत पाप सायब 'पाल्लियूम' (pallium- एक खाशेलो भेस) घालता. Pallium ही तांचे पदवेची कुरू आसा. (Canon 437. New Code- C. Law). तांकां 'मेट्रोपोलिटन' अशें म्हण्टात आनी तांणी आपल्या खाला आशिल्ल्या डायोसीजींत किदें करूं येता तें Can. 436 हातूंत सांगिल्लें आसा. हो Pallium ते आपल्या मिसाच्या वा हेर धर्मीक दबाज्यांच्या खाशेल्या न्हेसणाचेर आपले डायोसीजींत वा आपले सकयल आशिल्ले डायोसीजींत घालतात. हेर आर्चबिशपांक असलो Pallium मेळना.

- फादर निकोलाउ पैरेर

**आर्जेन्टिना:** दक्षिण अमेरिकेच्या दक्षिण वाठारांतलें राश्ट्र. अक्षवृत्तीय विस्तार २२° ते ५५° दक्षिण आनी रेखावृत्तीय विस्तार ५४° २०' ते ७३° अस्तंत. आर्जेन्टिनाचे उत्तरेक बोलीव्हिया, इशान्येक पाराग्वे, उदेंतेक ब्राझील, उरुग्वाय आनी अटलांटीक म्हासागर, दक्षिणेक अटलांटिक म्हासागर आनी अस्तंतेक चिली. क्षेत्रफळ २७,७७,८१५ चौ. किमी. आर्जेन्टिना हें नांव आर्जेन्टम् (चांदी) ह्या लॅटीन शब्दावयल्यान आयलां.

**भूंयवर्णन:** भूंयरचणूकेचे नदरेंतल्यान देशाचे चार वांटे जातात: १. अँडीज दोंगर वाठार, २. पॅटागोनिया, ३. पँपास आनी ४. उत्तरेवटेनचो

गरम हवामानाचो वाठार.

अँडीज दोंगरान आर्जेन्टिनाचो ३०% वाठार व्यापला. ह्या वाठारांत बरेच निद्रीस्त ज्वालामुखी आसात. हातूंतल्या वट्ट तेमकांतल्यो एकवीस ६,२०० मी. परस ऊंच आसात. हातूंतलें ७,०३५ मी. उंचायेचें अॅकन्काग्वा हें सगळ्यांत म्हान दिसता.

अँडीजचे उदेंतेवटेन उत्तरेचे रिओ नेग्रो न्हंयसावन ते दक्षिणेवटेन मॅगलेन म्हळ्यार सामुद्रधुनीमेरेन पॅटागोनिया पातळ्ळां.

पँपास हो एका थराचेर आशिल्लो वाठार. हांगा सगळ्या वटांनी तण दिसता. हांगाची जमीन पिकाळ जावन आसा.

उत्तरेकडलो वाठार अँडीज दोंगर आनी पाराना न्हंय हांचेमदीं आसा. थंय चिखोल खूब आसा. मनीस वस्तीक ही सुवात समा ना.

पाराना ही हांगाची सगळ्यांत व्हडली न्हंय. तिची लांबाय ४,१८४ किमी. आसा. ला प्लाताक मेळचेपयलीं १९३ किमी. मेरेन हिका बरेच फांटे फुटल्यात आनी परत एकठांय आयल्यात. हे न्हंयचे रचणूकेक लागून हांगाचो वाठार पिकाळ जाला. ला प्लाता भायर देल, व्हाये, दुल्से, प्रिमेरो, सेगुंदो, तेर्सेरो, क्वार्तो आनी किंतो ह्या सारक्यो न्हंयो हांगा आसात.

आयरेस, पँपास, कार्दोव्हा ह्या प्रांतानी आनी पॅटागोनिया वाठारांत ल्हान व्हड तळीं आसात. हातूंतली कांय खाऱ्या उदकाचीं आसात.

**हवामानः** देशाच्या विस्ताराक लागून हवामानाचे विंगडविंगड प्रकार आसात. जानेवारी हो सगळ्यांत गरम म्हयनो. जून, जुलय हे म्हयने सगळ्यांत थंड. उत्तरेवटेन चाको वाठारांत गिमाच्या दिसांनी गरमी ४८° से. मेरेन पावता जाल्यार दक्षिणेवटेन पॅटागोनिया वाठारांत शिंयाच्या दिसांनी -१६° से. सकयल पावता. उत्तरेवटेन हवामान केन्नाय थंड जाल्यार केन्नाय चड गरम आसता. त्या मानान दक्षिणेवटेन दर्याक लागून हवामान सम आसता. दक्षिण ध्रुवावेलें वारें अस्तंतेच्या वाठारांतल्यान येवन अँडीज वाठारांत पावस हाडटा. पूण हें वारें थंड आसता. त्या मानान अँडीजच्या उदेंतेकडल्या वाठारांत वारें गरम आसता. ह्या वाऱ्याक 'झोंडा' म्हण्टात. आर्जेन्टिनाचे इशान्येवटेन पावस ५० ते १०० सेंमी. मेरेन पडटा जाल्यार हेर वाठारांनी पावसाचें प्रमाण एकसारकें नासता. पँपास आनी इशान्येच्या वाठारांनी 'पँपेरोस' ह्या वाऱ्यांक लागून वादळां जातात.

**वनस्पत आनी मोनजातः** उत्तर आर्जेन्टिनांतल्या रानांनी आनी चिखलाच्या वाठारांनी तरांतरांचीं जनावरां आसात. जाग्वार, प्यूमा, रानमाजरां, कोले, कॅपिबारा, आर्माडिलो, मुयो खावपी प्राणी ह्यासारके प्राणी चड प्रमाणांत दिश्टी पडटात. तणाच्या वाठारांनी तरांतरांचे किडे, रिया, ऑटर, वीझल, ऑपॉसम सारकीं जनावरां आनी शहामृग, टिनॅमो सारके पक्षी आसात. न्हंयांभितर तरेकवार जातीचें नुस्तें भरपूर प्रमाणांत सांपडटा. स्पेनांतल्यान हाडिल्लीं गोरवां हांगा बरे तरेन व्हाडलीं जाल्यार कांय पळून वचून रानवटी जालीं. जगांतल्यो १० टक्के वनस्पतीच्यो जाती हांगा आसात. क्वेब्राचो, येर्बामाते, सायप्रस, पायन, लार्च, ओक, च हे रुख आनी पँपास वाठारांत तण आसा. 'आम्बू' हो रुख हांगाचो राश्ट्रीय रुख मानतात.

**इतिहासः** इतिहासतज्ञांच्या मताप्रमाण युरोपीय हांगा पावचेपयलीं ह्या वाठारांत सुमार ३,००,००० लोक रावताले. आशिया खंडांतल्यान येवन हांगा ते २०,००० वर्सांपयलीं पावले अशेंय एक मत आसा. १५ व्या शेंकड्यामेरेन हांगा 'इंडियन' लोकांची बरीच वस्ती आशिल्ली. हांचेर इंका संस्कृतायेची सत्ता आशिल्ली अशें मानतात कारण बरेच लोक क्वेचुआ ही इंकांची भाशा उलयताले. ह्या लोकांचें पोट शिकार आनी शेतवेवसायाचेर चलताले अशें मानतात.

व्हेस्पूची हाणें १५०१-०२ वर्सा रिओ द ला प्लाताचो सोद लायलो. खुआन दियाझ दे सोलिस ह्या स्पॅनीश मनशान १५१६ वर्सा हांगा पयलें पावल दवरलें पूण ताका हांगाच्या इंडियन लोकांनी मारून उडयलो. ते उपरांत १५२६ वर्सा सेबेस्टियन कॅबट आनी दियेगो गार्सिया हे थंय पावले. दोगांयमदीं झगडीं जाल्यान ते रोखडेच स्पेनांत परतले. फुडें पेद्रु द मेंदोंसाच्या फुडारपणाखाल स्पेनान हांगा आपली वसणूक करपाचो यत्न केलो. निमाणे मारतीनेस दुमींग इराल हो ला प्लाता वाठारांत घुसलो आनी १५३९ वर्सा ताणें आसूनसियोन हो गांव तयार केलो. हेंच हांगाचें पयलें स्पॅनिश शार थारलें. फुडें खुआन दे गाराय हाणें पाराग्वाय न्हंयचेर १५७३ वर्सा सांताफे बंदर आनी १५८० वर्सा बुएनॉस आयरेस ह्या शाराची थापणूक केली. हांगाच्यान स्पेनच्यो वसाहती वाडूंक लागल्यो. सगळ्या वसाहतींचेर आसूनसियोनची सत्ता आसताली आनी पेरु हांगाचो राज्यप्रतिनिधी राज्यकारभार चलयतालो. वसाहतींक स्पेनचे कायदे लागू जाताले. ताका लागून वसाहतींची चड उदरगत जावंक पावली ना. फुडें ब्रिटन आनी पोर्तुगाल हांचो वेपार चोरयां जावंक लागलो. 'तो बंद करचेखातीर १७७६ वर्सा स्पेनान ला प्लाता हो स्वतंत्र प्रांत तयार करून थंय राज्यपालाची नेमणूक केली. ह्या प्रांतांत तेन्ना आयचें आर्जेन्टिना, पाराग्वाय, उरुग्वाय आनी बोलीव्हियाच्या कांय वाठारांचो आस्पाव आशिल्लो. ब्रिटीशांनी १८०६-०७ वर्सा केल्ल्या झुजाक बुएनॉस आयरेसच्या लोकांनी बरेतरेन जाप दिली. ह्या झुजाउपरांत हांगाच्या लोकांक आत्मविस्वास आयलो आनी स्वतंत्रतायेची तांकां आस लागली. २५ मे १८१० दिसा एके नागरिक समितीची (Junta) थापणूक जाली. हे समितीन स्पेनचो राजा फेर्दीनांद, जाका नेपोलियनान हरयल्लो, ताच्या नांवान राज्य करपाचें थारायलें. हो दीस आजूय स्वतंत्रताय दीस म्हूण मनयतात. खडेगांठ स्वातंत्र्यझुजारी होसे द सान हाच्या फुडारपणाखाल तुकूमान हांगा नागरिक मंडळान क्रांती करून ४ जुलय १८१६ दिसा ला प्लाता प्रांताच्या स्वतंत्रतायेची घोशणा केली. ताका लागून स्पेनची हांगाची सत्ता सोंपली. ला प्लाता वाठाराचे पाराग्वाय, उरुग्वाय आर्जेन्टिना आनी बोलीव्हीया हे चार स्वतंत्र देश जाले.

बेर्नार्दिनो रिव्हादाव्हीया हो १८२६ त आर्जेन्टिनाचो राश्ट्रपती जालो. ताणें बरेच कायदे हाडून सुदारणा केल्यो पूण देशाभितरल्या झुजांक लागून ताका राजीनामो दिवंचो पडलो. १८२९-५२ ह्या काळांत खुआन मानुयेल द रोसास राश्ट्रपती जालो. तो हुकुमशहा आशिल्लो. ताका हुस्तो होसे द उरकीसा ह्या ताच्याच अनुयायान सत्तेवेल्यान सकयल देंवयलो आनी देशाभायर धांवडायलो. तेन्ना रोसासान देशाभायर धांवडायल्ले आलेबर्दी, मित्रे, सारमिएन्तो सारके देशभक्त परत देशांत आयले. ताचो पालव घेवन उरकीसन १८५३ वर्सा संविधान तयार केलें, पूण ताका मान्यताय मेळपाक उणीच धा वर्सां लागलीं. हें आर्जेन्टिना गणराज्याचें पयलें लोकशाय संविधान. फुडें जनरल मित्रेच्या (१८६२-६८) सत्तेखाला आर्जेन्टिनान बरीच उदरगत केली. ताच्या उपरांत सत्तेर आशिल्लो सारमिएन्तो हो देशभक्त आनी फुडारिल्ल्या विचारांचो आशिल्लो. १८७४ त निकोलस आवेलान्दा राश्ट्रपती जालो. तो १८८० मेरेन सत्तेर उरलो. १८८० ते १९१२ मेरेन बरेच जाण सत्तेर आयले पूण हो काळ म्हळ्यार राजकी अंदाधुंदीचो जावन केलो. १९१२ वर्सा रोके पेन्ना ह्या राश्ट्रपतीन गुप्त मतदानाची पध्दत हांगा चालू केली. ताका लागून १९१६ त इपोलितो इरिगोयेन हो जहाल उदारमतवादी राश्ट्रपती जालो. १८५२ ते १८८० हो राश्ट्राचे बांदावळीचो आनी १८८० ते १९१६ चो काळ रुढीवादी राज्यपरंपरेचो काळ अशें मानतात. हाच्या उपरांत १९१६ ते १९३० मेरेन जहालमतवादी सत्तेर आयले. १९३० ते १९४३ मेरेन परत रुढीवादी परंपरा मानपी पंगडाच्या हातांत सत्ता आशिल्ली. ह्या काळांत युरोपांत निर्माण जाल्ल्या फॅसिझम, नाझीवाद हांचो आर्जेन्टिनांतल्या घडणूकांचेर परिणाम जालो. जर्मन गुप्तहेर देशभर पातळ्ळे. १९४६ मेरेन हुस्तो, रॅबेर्तो कास्तियो, रॅसन आनी रामिरेझ हे राश्ट्रपती जाले. हाच्या उपरांत सत्तेर आशिल्ल्या आंदेल्मीरो फॅरेल हाणें १९४५ त जर्मनीआड झूज उबारलें. हाका लागून आर्जेन्टिनाक 'पॅन अमेरिका' आनी संयुक्त राश्ट्रांत प्रवेश मेळ्ळो. झुजाच्या काळांत पॅरॉन सारको लश्करी अधिकारी आपली शक्त वाडोवन १९४६ वर्सा राश्ट्रपती जालो. ताणें स्वताक कामगारांचो फुडारी जाहीर करून तांचो तेंको मेळयलो.


बोलिव्हिया
पॅराग्वाय
साल्टा
पिल्कोमायो न्हंय
फॉर्मोसा
तुकुमान
सांतियागो देल फुस्तरो
कॅटामार्का
सालादो न्हंय
ब्राझील
दक्षिण अमेरिका
सॅन वॉन
सांताफे
यूरग्वाय
मेंदोंसा
बुएनॉस आयरीझ
आर्जेंटिना
प्लाता
सांता रोझा
सांत आतोनियो
दक्षिण अटलांटिक महासागर
कोलोरादो न्हंय
बाहिया ब्लांका
मार देल प्लाता
चिली
नेग्रो न्हंय
पॅटागोनिया
सान कार्लोस दे बारिलोचे
कोमोदोरो रिव्हादाव्हिया
केप ट्रेस पूंतास
सां हूल्याल
सांताक्रूझ
मॅगॅलन सामुद्रधुनी
तिएर्रा देल फुयेगो
उस्वाया

ताणें बेगोबेग यत्न करून कामगार आनी शेतकारांचे प्रस्न सोडयले. कांय धंद्याचें राश्ट्रीकरण केलें. पूण ह्यो सगळयो सुदारणा करतना ताणें मतस्वातंत्र्य, संघटनास्वातंत्र्य सारक्या लोकशायेच्या तत्त्वांचो गळो अंदिल्लो. न्यायालयां, खबरपत्रां, शिक्षण संस्था हांचेर बंधनां घालीं. धर्मीक फुडाऱ्यांचें फाटबळ मेळवचेखातीर धर्मशिक्षण सक्तीचें केलें. ह्याच काळार लोकांमदीं बरीच नामनेची आनी प्रिय आशिल्ले ताचे बायलेक, इव्हाक मरण आयलें (१९५२). हे गजाली उपरांत पॅरॉनाचीय लोकप्रियता देंवली. १९५५ वर्सा धर्मीक फुडाऱ्यांकडेन कामगार संघटनेच्या विशयावेल्यान ताचे मतभेद जाले. त्याच वर्सा जून म्हयन्यांत बंड जालें आनी सगळी सत्ता लश्कराकडेन आयली. निमणो ९ सप्टेंबर,१९५५ दिसा पॅरॉन सत्ता सोडून देशाभायर गेलो. जनरल लॉनार्दी हो सत्तेर आयलो. पूण रेखडोच आरांबुरु हाणें ताका पयस केलो आनी स्वता राश्ट्रपती जालो.

पॅरॉनान देश सोडलो पूण ताचे विचार, ताणें बायलो आनी कामगार हांचेखातीर हाडिल्ल्यो सुदारणा ह्या गजालींक लोक विसरले नात. १९५८ त फेब्रुवारी म्हयन्यांत लश्करी राजवटीन जेन्ना वेंचणुको जाहीर केल्यो तेन्ना पॅरॉनच्या फाटीराख्यांच्या पालवान जहालमतवादी उमेदवार आर्तूरो फ्रॉन्दीझी वेंचून आयलो. पॅरॉन पक्षाचेर बंदी आशिल्ली पूण तांच्यो कार्यावळी परत वाडीक लागल्यात हें जाणा जावन नोव्हेंबर १९५८ वर्सा आणीबाणी जाहीर केली आनी तांची चळवळ आळाबंदा हाडली. पूण सैन्यांतले अधिकारी फ्रॉन्दीझी हो पॅरॉन फाटीराख्यांक लागून सत्तेर आशिल्लो हें विसरले नात. २९ मार्च १९६२ वर्सा बंड जावन सिनेटचो अध्यक्ष गुयदो हाका राश्ट्रपती केलो. हाचे उपरांत १९६२ वर्सा डॉ. इलिया सत्तेर आयलो. पूण देशभर पातळिल्लो असंतोश आनी सैन्यांतल्या अधिकाऱ्यांवांगडा ताचें पटना जाल्ल्यान तो बेजार जालो. अर्थीक परिस्थिती सामकी वायट जाल्ली. ताका लश्करी अधिकाऱ्यांनी सत्तेवेल्यान काडून उडयलो.

हाचेफुडें १९७३ मेरेन सैन्यांतले अधिकारीच एकामेकांकडेन झुजून सत्ता झोमून घेवंक लागले. देशाक कोणाचीच अशी थीर राजवट मेळ्ळीना. १९७३ वर्सा पॅरॉन परत वेंचून आयलो आनी राश्ट्रपती जालो. ताची बायल इझाबेल हिका ताणें उपराश्ट्रपती केली. जुलय १९७४त पॅरॉनाक मरण आयलें आनी इझाबेल कांय काळ राश्ट्रपती जाली. तिचे राजवटींत सत्तेचें केंद्रीकरण जालें आनी तिणें आपल्या सगळ्या विरोधकांक चिड्डून उडोवपाक सुरवात केली. देशांत पातळिल्या अंदाधुंदीचो फायदो घेवन लश्करी अधिकाऱ्यांनी परत बंड केलें आनी सत्ता हातासली. १९७६ ते १९८१ मेरेन लेफ्टनंट जनरल जॉर्ज राफाएल व्हिदेला हो देशाचो राश्ट्रपती जालो. सैन्यांतल्या अधिकाऱ्यांक सत्तेचो हावेस निर्माण जाल्ल्यान हांगाची सत्ता आपल्या हातांत घेवंक तांचे मदीं झुजां आनी झगडीं चालूच आशिल्लीं. व्हिदेला फाटल्यान व्हियोला आनी ताचे फाटल्यान लिओपाल्दो गाल्तेरी सत्तेर आयलो. हाणें फॉकलंडच्या जुंव्याक लागून १९८२ च्या फेब्रुवारी म्हयन्यांत ब्रिटनाकडेन झूज मांडलें. आर्जेन्टिनातल्यान सैन्य धाडून जुंव्यांचेर जैत मेळयले, पूण तीन सप्तकांउपरांत ब्रिटिशांचे नाविकदळ थंय पावलें आनी तांणी आर्जेन्टिनाचेर जैत मेळयलें. ह्या झुजाचो परिणाम गाल्तेरीचेर वायट तरेन जालो आनी जून १९८२ त ताका सत्ता सोडची पडली. देश कारभाराचीं सूत्रां मेजर जनरल रेनाल्दो बिग्नोन हाणें आपल्या हातांत घेतलीं. बिग्नोनान राजकीय पक्षांक वावुरपाची मेकळीक दिली आनी वेंचणुको जाहीर केल्यो. ३० ऑक्टोबर १९८३ दिसा जाल्ल्या वेंचणूकांउपरांत राऊल आल्फोन्सीन राश्ट्रपती जालो. लश्करी अधिकाऱ्यांच्या हातांतलें बावलें जाल्लो आर्जेन्टिना बऱ्याच काळाउपरांत नागरी प्रशासनाखाल आयलो.

**राज्यवेवस्थाः** आर्जेन्टिना २२ प्रांतांचे एक संघराज्य आसा. केंद्र सरकाराचे फाटीराखे आनी थळाव्या लोकांचे हित सांबाळपी लोक हांचे बरोच काळ जाल्ल्या झुजाउपरांत हांगा संघराज्याची थापणूक जाली. १८५३ वर्सा तयार केल्लें संविधान अमेरिकन संविधानाचेर आदारिल्लें आशिल्लें. हातूंत उपरांत कितल्याशाच फावट बदल केल्यात. १९४७ सावन हांगा बायलांक मतदानाचे अधिकार मेळ्ळे.

केंद्र सरकाराचे तीन वांटे आसात. कार्यकारी (Executive), विधीमंडळ (Legislature) आनी न्यायसंस्था (Judiciary). कार्यकारी अधिकार राश्ट्रपतीच्या हातांत आसतात.

राश्ट्रीय संसद दोन घरांनी भरताः प्रतिनिधी मंडळ (Chamber of Deputies) आनी राज्यमंडळ (Senate). हांगा राजकी पक्ष बरेच आसात. सद्याक राश्ट्रीय थराचेर सात पक्ष मुखेल आसात.

प्रांतीय न्यायालयां फकत प्रांतांतलेच निवाडे करतात. तेभायर राश्ट्रीय थराचेर सर्वोच्च न्यायालय आनी ताच्या खाला बरींच न्यायालयां आसात.

**अर्थीक स्थितीः** दक्षिण अमेरिकेभितर आर्जेन्टिना अर्थीक नदरेन बरेंच फुडें आशिल्लो देश जावन आसा. हांगा गंव आनी मक्याचें भरपूर पीक येता. पँपास वाठार शेतवडीखातीर फाव सारको आसा आनी चडशी पिकावळ ह्या वाठारांत जाता. गंव आनी मको हे भायर ऊंस, फळां, तंबाखू हांची पिकावळ म्हत्वाची आसा. पशुधनाक लागून्य आर्जेन्टिनाचे अर्थीक उदरगतीक मदत जाता.

हांगाच्या खणींनी तरेकवार धातूंची सांठ्वण आसा. पूण ह्या धंद्याची आजून चड उदरगत जाल्ली ना. शिशें, जस्त, रूपें, भांगर, तांबें, मँगनीज, युरेनियम हांची बरीच सांठ्वण हांगा आसा, पूण खण उद्येगाचेर चड लक्ष न दिल्ल्याकारणान आर्जेन्टिनाक लोखण, कोळसो सारक्या गजालींची आयात करची पडटा.

सैमीक तेल आनी वायू हांचें उत्पादन मात बरेंच फुडें पावलां. ह्या गजालींक लागून आर्जेन्टिनाक इंधनाखातीर कोणाचोच आदार घेवंची गरज पडना.

उदकांतली पिकावळ बरीच आसा आनी ह्या धंद्याक फाटबळ दिवपाक सरकार यत्न करता. पूण चिली, पेरु हांच्यामुखार आर्जेन्टिनाचो नुस्त्याचो वेपार सामकोच उणो आसा.

कारखाने आनी हेर उद्येगधंदे हांगा दिसानदीस वाडत आसात. कारखान्यांभितरलें ६५% उत्पादन बुएनॉस आयरेस वाठारांतल्यान येता. ह्या वाठारांत उद्येगधंद्याचें प्रमाण सगळ्यांत चड आसा. रबराच्यो वस्तू, कपडे, वाहनां, रसायनीक पदार्थ हांचे कारखाने चडशे ह्याच वाठारांत आसात. हेर वाठार जंय कारखाने आनी हेर उद्येगधंदे वाडीक लागल्यात ते म्हळ्यार कॉर्डोबा (वाहनां, स्टील, लांकडाच्यो वस्तू), सांता फे (वाहनांची जुळवणी, यंत्रां, कागद, दुदापसून तयार जावपी पदार्थ), मेंदोझा (सोरो, रसायनीक द्रव्यां, फळां सुकोवप), रुझारिओ (तेल, ट्रॅक्टर्स, मांस सुकोवप), तुकुमान (साखर कारखाने), चाको वाठार (कपडो आनी भंगसाळी). १९७८ वर्सा पेट्रोलियम उत्पादन सगळ्यांत चड आशिल्लें; ताच्या खाला सोरो, शिमीट, स्टील, हांचो क्रम लागतालो.

भौराश्ट्रीय (Multinational) कंपन्यांनी बरेंच भांडवल हांगाच्या उद्येगधंद्यांनी घालां. १९७७ वर्सा आर्जेन्टिनाक भेट दिवपी पर्यटकांची संख्या १३,५०,००० इतली आशिल्ली. पेसो हें हांगाचें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारणः** आर्जेन्टिनांत दक्षिण अमेरिकेंतल्या हेर देशांपरस रेल्वेमार्ग चड आसात. रेल्वेमार्गांनी सगळ्या प्रांतांक जोडल्यात. ४३,५०० किमी. लांबायेच्या वट्ट रेल्वेमार्गांपैकी ५६% बुएनॉस आयरेस, कोर्डोबा आनी सांता फे ह्या प्रांतांनी आसात.

रस्त्यांची लांबाय २,९०,२०० इतली आसा. रस्त्यांवेल्यान जावपी येरादारीचें प्रमाण बरेंच व्हडलें आसा. ७०% शेतकी उत्पादनाची येरादारी रस्त्यांवेल्यान जाताः शारांच्या वाठारांत कोलॅक्तीव्हो, (Colectivo) म्हळ्यार टॅक्सी सेवा आसा. ही टॅक्सी सेवा थारावीक मार्गांवेल्यान येरादारी करता.

रिओ दे ला प्लाता न्हंयतल्यान आनी ह्या न्हंयच्या हेर फांट्यांतल्यान बरीच येरादारी चलता. येरादारी करपाक लायक अशे ११,००० किमी.

लांबायेचे जलमार्ग आसात. देशांत सात मुखेल आनी हेर २० बंदरां आसात. आयात-निर्यातीचे सगळे वेव्हार चडशे ह्या बंदरांतल्यान जातात. बंदरां येरादारीचो ७५% वांटो उखलता.

आएरोलिन्यास आर्जेन्टिना ही विमान येरादारी सांबाळपी मुखेल संस्था. राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय मार्गांचेर येरादारी करपी हे संस्थेकडेन तीस विमानांचो ताफो आसा. हे भायर ऑस्ट्रल लिन्यास आयेरियास, लिन्यास आयेरीयास देल एस्तादो, त्रांसपोर्तेस आयेरियास बुएनॉस आयरेस ह्यो संस्था देशाभितरल्या विमान येरादारीचो भार सांबाळटात.

हांगाच्यान उजवाडाक येवपी १४२ खबरांपत्रां आसात. हांचो वट्ट खप २६,८२,००० परस चड आसा. रेडिओ आनी दूरदर्शन क्षेत्र बरेंच फुडारिल्लें आसा. ६६% परस चड लोक दूरदर्शनाचो लाव घेतात. संचारण क्षेत्रांत आर्जेन्टिना सुदारिल्ल्या देशांकडेन सर्त करपाइतलो फुडें पावला.

**लोक आनी समाजजीण**: १९८६ वर्सामेरेन आर्जेन्टिनाची लोकसंख्या ३,१०,३०,००० इतली आशिल्ली. शारांच्या वाठारांनी रावपी लोकांची संख्या २,२२,६९,०००. लोकसंख्या देशभर समान ना. बुएनॉस आयरेस वाठार चड गर्देचो जाल्यार पॅटागोनिया सारकील्या वाठारांत लोकसंख्या सामकीच उणी आसा.

चडशे लोक युरोपीय वंशाचे आसात. आर्जेन्टिनांत जे पयलीं युरोपियांआदीं लोक रावताले तांकां काबार करूंक युरोपियनांक चड वेळ लागलो ना. आतां इंडियन्स बरेच उणे आसात. स्पॅनिश आनी इंडियन हांची भरसण ह्या देशांत कमी जाल्ल्यान 'मॅस्तिझो' (मिश्रवंशीय)ची संख्या सामकीच उणी आसा आनी ती लेगीत अँडीज दोंगराच्या वाठारापुरती मर्यादित आसा. लॅटीन अमेरिका उपखंडांतलो सगळ्यांत चड गोऱ्या लोकांचो हो देश. हांगा शेतांचेर काम करच्याखातीर आनी ल्हान सान हेर कामांखातीर गरीब मेस्तिझोंक वापरून घेतले. वयर मळब, न्हिदपाखातीर जमीन, फिरपाक घोडो, आंगार जीन्स, खावंक गायचें मास आनी पिवपाक तांबडो सोरो अशे परिस्थितींत जगपी 'गाउचो' (Gaucho) वर्ग हांगा तयार जालो. हांची जीण आनी जीणेविशींच्यो काव्यकथा आर्जेन्टिनाचे संस्कृतायेचो एक वांटो जावन आसा.

आज मेस्तिझो उणे आसले तरी १९ व्या शेंकड्यांच्या मध्यामेरेन तांचें प्रमाण बरेंच आशिल्लें. तें कमी करपाचो यत्न जाणून बुजून जालो. सारमिएन्तो, मित्रे आनी आलेबर्दी हांचे राजवटींत हजारांनी युरोपीयांक फुसलावन ह्या देशांत हाडले आनी तांकां हांगा वाडूंक मदत केली. १८५२ वर्सा गोऱ्या लोकांचे प्रमाण २.७५% आशिल्लें, तें १९४७ त ८९% जालें. लोकसंख्येत जाणून बुजून केल्ल्या ह्या बदलांक लागून हांगा जाती-जमातींभीतर झगडीं जालीं नात. पूण युरोपीयनांमदीं इटालियन, स्पॅनिश, फ्रेंच, इंग्लीश, जर्मन, स्वीस, ऑस्ट्रियन, पोल, स्कँडिनेव्हीयन, स्लाव अशे ल्हान व्हड वांटे जाल्यात. समाजीक आनी राजकी जीणेचेर ह्या विंगड विंगड पंगडांचो प्रभाव दिसता. इटालियन चड आशिल्ल्यान देशांतल्या चडशा वाठारांभितर इटालियन नांवां सहज वळखूंक मेळटात. देखीक: पॅरोन हो मूळ इटालियन.

विंगड विंगड वांशिक, भाशीक आनी सांस्कृतिक संस्कार घेवन येवपी ह्या लोकांचेर स्पॅनिश भाशा आनी हांगाची एक खाशेली संस्कृताय हांचो परिणाम जावन एक नवोच समाज हांगा जल्माक आयला.

कॅथलिक धर्म हो हांगाच्या राज्याचो धर्म, पूण बाकीच्या धर्मांक आनी पंथांक स्वातंत्र्य आसा. कॅथलिक धर्मपीठाच्या मळार हांगाच्या राश्ट्रपतीक खास अधिकार आसात. बिशपासारक्या धर्मगुरूंची नेमणूक राश्ट्रपती करता आनी पोप जें आदेश दिता ते राश्ट्रपतीच्या मान्यतायेबगर हांगा लागू जायनात.

चडशे लोक कॅथलिक आसल्याकारणान तांचे सण आनी परबो देशभर दबाजान मनयतात. इटली देशांत दिश्टी पडपी विंगड विंगड देव-देवतांचीं ल्हान व्हड देवळांय हांगा दिसतात.

आर्जेन्टिनातल्या लोकांक मांस खावपाची चड आवड. मांस खावपाच्या बाबतींत ह्या देशाचें प्रमाण जगांत सगळ्यांत चड आसा. तांबडो सोरो हे सगळ्या लोकांचें आवडीचें पेय. चडशे लोक निरोगी, उमेदी आनी उत्सवप्रिय आसात. नाचगाण्याचो शौक सगळ्या लोकांमदीं दिसून येता. गाउचो आनी स्पॅनिश ह्या नाचांच्या भरसणींतल्यान बरेच नवे नवे नाचाचे प्रकार तयार जाल्यात. फुटबॉलचो खेळ हांगा सामको लोकप्रिय. ह्या खेळाक लागून आर्जेन्टिनान संवसारांत नामना जोडल्या.

कुटुंबपध्दत भारतीय पध्दतीक बरीच लागीं आसा. व्हड एकठांय रावपी कुटुंबां, जाण्ट्यांक मान आनी अधिकार, बायलांची सुवात ह्यो गजाली हांगाच्या लोकांभितर भारतांतल्या लोकांभाशेन आसात. इव्हा पॅरॉन सारके बायलेच्या कर्तुपांतल्यान देख घेवन बऱ्योच बायलो दादल्यांवांगडा वावुरतना दिसतात. कला कुसरीचेर युरोपीय पध्दतीचो प्रभाव स्पश्ट दिसता.

**शिक्षण**: राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण ९३% आसा. जगांत हे गजालींत आर्जेन्टिनाचो क्रमांक २६ वो लागता. ६ ते १४ वर्सां मेरेनचें सात वर्सांचें शिक्षण फुकट, समान आनी सक्तीचें आसता. ताच्या उपरांत पांच वर्सांचें उच्च माध्यमिक शिक्षण आसता. मार्च ते डिसेंबर मेरेन एक शिक्षणीक वर्स आसता. पूण थंडेच्या वाठारांनी हें सप्टेंबर ते मे मेरेन आसता. स्पॅनिश ही शिक्षणाची भास, पूण मुळाव्या आनी माध्यमिक पांवड्यांचेर इंग्लीश आनी फ्रेंच भाशांतल्यानय शिक्षण दितात.

नागरी सेवेंतल्या काम करप्यांमदीं सगळ्यांत चड वांटो म्हळ्यार शिक्षकांचो. शिक्षणाच्या मळार शिक्षकांची परिस्थिती बरी आसा. प्रौढ साक्षरतेचें काम बऱ्याच मोट्या प्रमाणांत चालू आसा.

सरकारी शाळांभायर हांगा खाजगी शाळाय बऱ्योच आसात. आर्जेन्टिनांत १३ राश्ट्रीय, चार प्रांतीय आनी २३ खाजगी विश्वविद्यालयां आसात. शिक्षणाच्या मळार हो देश सुदारिल्ल्या देशांपरस चड वेगळो ना. हांगा सगळे तरेचें शिक्षण दिवपाची वेवस्था आसा.

आर्जेन्टिनातले बरेचशे विद्यार्थी शिक्षण घेवंक अमेरिका, फ्रांस, कॅनडा, अस्तंत जर्मनी, ब्रिटन, इटली, स्पेन, उरुग्वाय आनी चिली ह्या देशांनी वचून रावल्यात. विज्ञान आनी तंत्रगिन्यानाच्या शिक्षणाक हांगा चड म्हत्व दितात आनी सरकारी पालवान ह्या शिक्षणाची उदरगत करपाचे यत्न नेटान चालू आसात.

**भाशा आनी साहित्य**: आर्जेन्टिनाची भाशा स्पॅनिश, पूण मूळ इटालियन लोकांच्या संख्येक लागून तांचे भाशेचो आनी उच्चारांचो परिणाम जावन ती मात्शी वेगळे तरेची जाल्या. बुएनॉस आयरेस शारांतल्यान उजवाडायल्ले ग्रंथ सगळ्या लॅटीन अमेरिकेंत पावतात.

साहित्याचो प्रसार हांगा शिक्षणाचें प्रमाण चड आसल्या कारणान बऱ्याच नेटान जाला. एचेव्हेरीआ (१९०५-५१), लूगानेस लेओपाल्दो (१८७४-१९३८), बॉर्जेस, ऑकांपो, मित्रे (१८२९-१९०६), सारमिएंतो (१८११-१८८८), आर्नांदेझ (१८३४-८६), रॉमेरो, माएआ ह्यासारके लेखक आनी कवी नामनेचे जावन आसात. सावेद्रा लामास (१९३६), आवसाय (१९४७) हांकां नोबेल इनाम मेळ्ळां पूण तें साहित्यांत न्हय. रवींद्रनाथ टागोराचें साहित्य हांगा एका काळार बरेंच लोकप्रिय आशिल्लें.

**म्हत्वाचीं थळां**: दक्षिण अटलांटिकाच्या लागचें मार देर प्लाता, अँडीज वाठारांतले सान कार्लोस दे बारीलोचे, नायगारा परस ऊंच आनी रुंद आशिल्लो इग्वासा धबधबो, पँपास हीं थळां आपल्या सैमीक सोबीतकायेन सगळ्यांक लागीं हाडटात. मेंदोसा, कोर्दोबा आनी तुकुमान हीं इतिहासीक शारां तशेंच बुएनॉस आयरेस हें राजधानीचें शार पळोवपासारकें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**आर्द्रा**: भारतीय सत्तावीस नखेत्रांतलें सवें नखेत्र. हातूंत एकूच नखेत्र आसा अशें मानतात. ह्या नखेत्राचें नांव गॅमा जेमिनोरम (अॅल्हेना) अशें आसून ताचे विषुवांश ६ ता. ३४ मि. क्रांती १६° २७′ प्रत १.९३. सुमार

२१ जूनाक सूर्य ह्या नखेत्रांत प्रवेश करता. आर्द्र म्हळ्यार ओलें. हें पावसाचें म्हत्वाचें नखेत्र आशिल्ल्याकारणान ताका अशें नांव पडलां आसूंक जाय. हाचो ऑस्पाव मिथुन राशींत जाता. खंयचें नखेत्र आर्द्राचें मानचें हेविशीं वेगवेगळीं मतां आसात. कांय जाण 'कांक्षि' वा 'कक्ष' म्हळ्यार 'आल्फा ओरिऑनिस' (बेटलज्यूझ) हें, तर कांय जाण व्याधाचें नखेत्रूय आर्द्रा नखेत्राचें अशें मानतात. पूण कांक्षि हें मृगांतलें समजप बरोबर आनी व्याधाचोय मृगाकडेन संबंद आसताच. देखून, 'गॅमा जेमिनोरम' हेंच आर्द्राचें मानप बरोबर अशें शं. बा. दीक्षित हाचें मत आसा. ह्या नखेत्राची देवता रुद्र आनी आकृती मणी अशें मानतात.

आर्द्रेची मूर्त कशी करची तें हेमाद्रीन अशें सांगलां:

श्वमुखी कृष्णवर्णा तु रक्तार्द्रा शूलपाणिनी
नीलवस्त्रा वृषारुढा वाऽ स्थिमालाविभूषणा।

अर्थ- सुण्याचें तोंड, काळ्या रंगाची, रगताभशेन ओली, हातांत शूल, निळें लुगट, बैलाचें वाहन आनी हाडांच्या मणक्यांचे अलंकार धारण केल्ली अशी आर्द्रेची मूर्त करची.

- कों. वि. सं. मं.

**आर्बर, वर्नर:** (जल्म: १९२९, ग्रॅनीचेन, स्विट्झर्लंड).

एक नामनेचो सूक्ष्मजीवशास्त्रज्ञ (Microbiologist). ताचें शिकप स्विस फेडरल इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजी, झुरीच आनी जिनीवा विद्यापीठ तशेंच सदर्न कॅलिफोर्निया विद्यापीठांत जालें. जिनीवा विद्यापीठांत १९६० ते १९७० ह्या काळांत आनी उपरांत बेसल विद्यापीठांत सूक्ष्मजीवशास्त्र विशयाचेर ताणें काम केलें.

नोबेल पुरस्कार मेळयल्ल्या साल्वादोर ल्युरिया ह्या शास्त्रज्ञान लायिल्ल्या 'Host induced variation' ह्या सोदाचेर ताणें फुडें संशोधन केलें. पर्याक्रमी विशाणूंच्या (infesting virus) DNA त बदल घडोवन हाडपी, सूक्ष्मजंतूंतल्या 'restriction enzymes' ह्या सुरक्षा एंझाइमचे क्रियेविशीं ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. ताच्या ह्या सोदाखातीर आनी ताचेवरवीं रेणवीय आनुवंशिकताविज्ञानांतल्यो कांय समस्या सोडोवपाक उपेगाक येवपी ताच्या अनुप्रयोगांक लागून ताका १९७८ त शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**आर्बोरीक:** झाडाच्या खंयच्याय भागाच्यी कलात्मक नदरेन केल्ली सोबीत मांडावळ. सुकें मूळ, कांड, पानां, फुलां हे झाडाचे भाग एकठांय करुन 'आर्बोरीक' ही वस्त तयार करतात. लॅटीन भाशेंत झाडाक 'आर्बल' म्हण्टात. ताचेवेल्यान 'आर्बोरीक' हो शब्द आयला आसुंये अशें जाणकार मानतात. आर्बोरीक ही मूळ कला भारताभायली. इकेबानु फ्लावर अॅरेंजमेंट हाचे वांगडा ती जपानांतल्यान आयली आनी उपरांत वेस्ट इंडीज, अमेरिका हांगाच्यान हेर देशांत पातळ्ळी.

बऱ्या झाडापसून आर्बोरीक जाताच. पूण बरीं झाडां कापचे परस, सुकिल्ल्या, मोडिल्ल्या आनी इबाडिल्ल्या झाडाचें आर्बोरीक बरे तरेन करूं येता. आर्बोरीक करता आसतना मूळां, पाळां, कांडां, सुकिल्लीं फळां, कोमल्यो, आंकऱ्यो, हांचे वांगडा जाय थंय तांतयांचीं कल्लां तण, शंख, शिपयो, बियो हांचो वापर करतात. एक झाड मरतकच जेन्ना ताच्या मुळासारक्या भागाचो कित्याकूच उपेग जायना तेन्ना ताचें आर्बोरीक करुं येता. तशेंच मुळाचे खूबशे कुडके जोडून जाय थंय कांड लावन आर्बोरीक करतात. मदेरा पसून मेजां, कदेलां ह्या सारकिल्यो जायत्यो वस्तू करुन जें भायलट उरतां, ताचेपसून झाडां दवरपाचो 'स्टॅंड' वा 'वॉलपीस' असल्यो वस्तू करतात.

गोंयांत व्हडल्या घरांनी पोरन्या आर्बोरीकाचे नमुने पळोवंक मेळटात. देखीक- चांदर सारक्या आदली राजधानी आशिल्ल्या वाठारांत आर्बोरीक चड पळोवंक मेळटात. व्हडल्या चिनी मातयेचे बरणेंत घालून ही मांडावळ दवरतात.

पूर्विल्ल्या काळांतल्या रामायण सारक्या पोरन्या पुस्तकांनी आशिल्ल्या चित्रांतल्या खोपींनी आर्बोरीकाचीं खूब चित्रां दिसतात. तेचपरी ऋषीमुनीचे दंडुके (हात दवरपाचे) वा कमंडूल म्हळ्यार आर्बोरीकाचोच एक प्रकार.

रत्नागिरी शारापसून १४ किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या पावस ह्या वाठारांत १०० वर्सां पयलींचें एक झाड आसा. ताका सोंड, पोट, दोन खांदे अशा अवयवांचो आकार दाखोवपी खांदयो येवन गणपतीच्या रुपाची आकृती तयार जाल्या. हें झाड म्हळ्यार सैमान तयार केल्लो आर्बोरीकाचो एक नमुनो म्हणूंक जाय.

गोंयांत वाळपय, काणकोण ह्या सारक्या वाठारांनी बरींच रानां आसात. ह्या रानांत व्हड व्हड रुखांवांगडा ताच्या मुळांत ल्हान ल्हान झाडां आसतात. ह्या ल्हान झाडांचो उपेग आर्बोरीकाखातीर करूं येता. गोंयच्या सैमात माड खूब प्रमाणात जाता. माडापसून सोबीत आर्बोरीक वस्तू करतात. असल्या आर्बोरीकाचें प्रदर्शन मांडीत जाल्यार भोंवडेकाराकडल्यान खूब खप जावं येता. मुंबय सारक्या व्हड शारांत हाका खूब वाव आसा. माडापसून बगळो, म्हातारे, पेटूल, फुलां दवरपाचो व्हाज (फ्लावर पॉट), दवलो अशो जायत्यो वस्तू जातात.

झाडाचें मूळ वा कांड जो भाग आमकां जाय तो एका बल्लांत सुमार चार कील मिठाच्या उदकांत भिजत दवरतात. अशें केल्यार झाडाक कीड लागना. दोन दिसां उपरांत तांच्यो साली काडटात आनी गुळगुळीत करतात. झाडाचो कुडको ओलो आसतना ताका आकार दिवप सोपें जाता. उपरांत तें चार-पांच दीस सुकयतात. बरो सुकल्या उपरांत तो भाग परत एक फावट तासून, गुळगुळीत करून पॉलीश करून एक दीस दवरतात. उपरांत ताका 'वूड टच' नांवाचें पॉलीश लायतात. फुडें जाय जाल्यार तातूंत रंग भरसून हलक्या हातान वेलेवयर परतें पॉलीश करतात.

हॉटेल सजोवप, सोबित वॉलपीस, फोन स्टॅंड, घरांतलीं सालां सजोवप हांच्याखातीर आर्बोरीकाचो उपेग करतात. तांच्यावरवीं तरेकवार प्राण्यांचे आकार करून सालांत (हॉलांत) दवरतात. झाडाच्या कांडाक सुंदर अळमी येतात. हें कांड सुकयल्या उपरांत एक सोबीत आर्बोरीक तयार जाता.

- सौ. गौरी आ. दलाल

**आर्य:** वैदिक साहित्याची निर्मणी करपी; इंद्र, अग्नि, मरुत, सोम आनी हेर देवांक भजपी; यज्ञधर्म आचरपी; सोमरसान देवाक संतुश्ट करपी; पितृप्रधान कुटुंबपद्धत चलोवपी अशी जमात, जी भारत देशांत पूर्विल्ल्या काळांत सगळ्यांत निमाणी भितर सरली तिका 'आर्य' म्हण्टात. डॉ. दामोदर धर्मानंद कोसंबीच्या मतान मानवशास्त्राचे नदरेन 'आर्य' हो एक वंश नासून तो भाशीक गट जावन आसा. एका वंशाचे लोक एक भाशीक आसतात वा एकभाशीक लोक एका वंशाचे आसतात हें तत्त्व ताका मान्य ना. वेदांतल्यो देवता मानपी आनी आर्य भास उलोवपी म्हूण ते आर्य थारले. वेदाची निर्मणी करपी हे लोक स्वताक 'आर्य' म्हण्टाले आनी हेरूय तांकां 'आर्य' म्हणून पाचारताले, देखून आर्य हे परंपरेन चलून जावन आसा. 'आर्य' ही संस्कृत भास उलोवपी लोकांची जमात आसून ती एकवंशी नासली अशें डॉ. केतकार हाचें मत आसा.

युरोपांत संस्कृत आनी हेर तुलनात्मक भाशाशास्त्राचो अभ्यास सुरू जालो तेन्ना पोरन्या भारतीय आनी युरोपीय लोकांमदीं एकवंशसंभत्वाचें नातें अस्तंतेच्या विद्वानांक दिसलें. हे मनीस वंशकुळयेक तांणी वैदिक संस्कृतांतलें 'आर्य' हें उतर दिलें. फुडें आर्याचें 'आर्यन' जावन हें उतर मानववंशवाचक वा भाशावंशवाचक म्हूण आपणायलें. कांय खाशेल्या मानववंशांक स्वताक आर्य म्हूण घेवपाक आडमेळें येवन लेगीत आर्य हें उतर सासणाचें तगून उरलें.

मॅक्सम्यूलर हाणें आर्यन हें उतर इंडो-जर्मन हाचें समानार्थक म्हूण उपेगांत हाडलें आनी त्यो भासो उलोवप्यांक तो 'आर्यन' म्हण्टा. ताणें

'ईरा' म्हळ्यार पृथ्वी ह्या उतरावेल्यान आर्य उतराची उत्पत्ती सांगल्या. ॲरियोव्हिस्टस ह्या उतरांतलो 'ॲरियो' हो जो भाग आसा ताचें आनी आर्य उतराचें मूळ एकच आसा. सद्या हें उतर इंडो-आर्यनच्या दोनूय शाखांक लायतात. इराणी आर्यांसावन भारतीय आर्यांचें वेगळेपण दाखोवपाखातीर, भारतीय आर्यांक 'इंडो-आर्यन' म्हण्टात. रामचरित सिंगाच्या मतान आर्य ह्या उतराचो अर्थ कुलीन, उदात्त आनी व्हड असो आसलो तरी मूळ तें उतर 'अर्' म्हळ्यार नांगरप ह्या धातूसावन आयलां. आनी ताचो मूळ अर्थ कृषीवल असो जाता. ह्याच 'अर्' धातूसावन हर वा हल हें उतर सिध्द जाता, अशें ते फुडें सुचयतात. पूर्विल्ल्या काळांत 'कृषिकर्म' हो सगळ्यांत व्हड आचार अशें मानताले. ताकालागून आर्य ह्या उतराचो 'श्रेष्ठ' असो अर्थ जाला. आर्य हे खंयच्याच मानववंशाचें नांव नासलें पूण जांणी 'कृषिकर्म' हो वेवसाय सुर्वेक आपणायलो तांकां लोक आर्य म्हणपाक लागले.

**आर्यांचें मूळस्थान:** भारतीय आर्यांचें मूळस्थान ध्रुवप्रदेशांत आसलें. थंयच्यान ते भोंवत-भोंवत अस्तंत युरोप आनी भारतांत आयले असो तर्क लोकमान्य टिळकान The Arctic Home In the Vedas ह्या ग्रंथांत मांडला. तेखातीर ताणें भूंयरचणूक, भूगर्भशास्त्र आनी ज्योतिशशास्त्र हांचो आदार घेतला. उत्तर ध्रुव प्रदेशांत ज्यो सैमीक घडणुको घडपाक शकतात अशा कांय घडणुकांचो उल्लेख, वैदिक ऋषींनी आपणाल्या कांय दैवतशास्त्रीय कथांच्या आदारान केला अशें टिळकाचें मत आसा (ऋग्वेद १.६४.१६; २.३२.२; ५.५४.१५; ६.४८.८). वैदिक दैवतशास्त्रांतल्यो ज्यो कथा आनी सैमीक घडणुको उत्तर ध्रुव प्रदेशांतल्या आंतर हिमयुगाचें अस्तित्व दाखयतात, ताचेवेल्यान इ.स. सुमार १०,००० वर्सांपयलीं उत्तर ध्रुव प्रदेशांतले आर्य दुसऱ्या हिमयुगाच्या अवर्शणाक लागून थंयच्यान भायर सरले आनी युरोप आनी आशिया खंडांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांनी येवन रावले.

लोकमान्य टिळकाचो तर्क आर्विल्ल्या संशोधकांनी मानून घेवंक ना. तांणी मध्य आशिया, पामीरचें पठार, कॉकेशस पर्वताच्या मुळसाकडलो वाठार, उराल पर्वत, अस्तंत युरोप (जर्मनी-हंगेरी), स्कँडिनेव्हिया ह्या वाठारांचो उल्लेख केला. बाबू संपूर्णानंद हाच्या मतान आर्यांचें मूळस्थान पंजाब जावन आसा. ताचो सोद ऋग्वेदांतल्यान मेळिल्ल्या पुराव्याचेर आदारला. ताच्या मतान मोहेंजोदडो-हडाप्पा संस्कृताय अनार्य आनी ऋग्वेदोत्तर काळांतली आसुनय तिचेर आर्य संस्कृतायेचो प्रभाव पडूंक ना. हेर संशोधक जे आर्यांचें मूळस्थान भारतांत आसा अशें सांगतात ते अशे: लक्ष्मीधर कल्ला हाच्या मतान काश्मीर आनी हिमालयाच्या मुळसाचो वाठार, डी. एच. त्रिवेदीच्या मतान मुलतान, गंगानाथ झा हाच्या मतान ब्रह्मर्षिदेश, राजबली पांडे हाच्या मतान आर्यावर्त म्हळ्यार सद्याच्या अयोध्या आनी अलाहाबादमदलो वाठार, श्रीकंठ शास्त्रीच्या मतान सिंधू-गंगेचें देगण अशीं आर्यांचीं मूळस्थानां आसात. रशियन वनस्पतीशास्त्रज्ञ व्हासिलोव्ह हाच्या मतान गौर, मंगोलियन, नेग्रॉइड आनी ऑस्ट्रॉलॉइड ह्या पृथ्वीवेल्या चार मानववंशांचें विशिष्टीकरण भारतांत जालें. तातूंतले पयले दोन वंश उत्तर भारतांत आनी दुसरे दोन दक्षिण भारतांत उत्क्रांत जाले. हीं सगळीं मतां हालींच्या संशोधकांक मान्य नात. डॉ. रा. ना. दांडेकर हाणें आपल्या 'आर्यांचें मूळ वसतिस्थान' ह्या ग्रंथांत सगळ्या मतांमदीं पीठावाला हाचें मत म्हत्वाचें आशिल्ल्याचें सांगलां. पीठावाला हाणें इराणी लोकांचो अवेस्ता ग्रंथ प्रमाण मानला. इराणी साहित्याचो अभ्यास करून आनी आर्यांच्या राबित्याचो विचार करून सिरदर्या आनी अमुदर्या ह्या न्हंयांमदल्या वाठारांत आर्यांचें मूळस्थान आसलें अशें मत ताणें उक्तायलां. महादेवशास्त्री जोशी हाच्या मतान पीठावाला साहित्याचे नदरेन पोरन्या इराणी ग्रंथांपलतडी वचूंक ना आनी त्याच वांगडा मूळ युरो-भारतीय भासांचो विचारय ताणें करूंक ना; जाका लागून पीठावालाक युरो-भारतीय भाशीकांचें मूळ स्थान निश्चित करपाक जमूंक ना.

कोलिंडर ह्या भाशा जाणकाराच्या मताप्रमाण आर्यांचे मूळ भाशेकडेन उग्रो-फिनिश भाशेचें सारकेंपण दिसता, तशेंच तांचे संस्कृतीक जीणेचेर अल्ताइक लोकांचो प्रभाव आशिल्लो दिसून येता. भाशा जाणकारांक मूळ आर्य आनी सेमेटिक भाशेंतलें सारकेंपणय दिसून आयलां. वयले गजालीक प्रमाण मानल्यार उग्रो-फिनिश, अल्ताइक आनी सेमेटिक ह्या भासांचो प्रभाव ज्या वाठारार पडून, मूळ युरो-भारतीय भाशेचो उगम आनी पयले अवस्थेंतली उदरगत घडल्या तो वाठार म्हळ्यार उत्तर किरघीज (दक्षिण रशिया) अशें डॉ. दांडेकर म्हण्टा. नेरिंग हाणेंय भारतीय लोकांक खबर आशिल्ल्या पशुधनाविशीं विचार करून ह्या प्राण्यांची मूळ सुवात उराल आनी अल्ताय प्रदेश हेंच आशिल्ल्याचें सिध्द केल्यान वयल्या सिध्दान्ताक फाटबळ मेळटा, अशें बा. द. सातोस्कर म्हण्टा. डॉ. बी. के. घोष वयलो सिध्दान्त बरेबर आशिल्ल्याचें सांगून पूर्वसुरीचे दाखले दिता. हिर्ट, नेरिंग आनी फ्लोर ह्या संशोधकांच्या वावराचो आदार घेवन इंडो-युरोपियन आनी फिनो-उग्रियन हांणी आदल्या काळांत एकामेकांचेर प्रभाव घाल्लो अशें खंयचेच परिस्थितींत मानप शक्य ना अशें तो म्हण्टा. पूर्विल्ल्या इंडो-युरेपियन आनी पूर्विल्ल्या सेमेटिक (अरब वंशाचे लोक) हांचे भाशेंतल्या म्यूल्लर हाणें दाखोवन दिल्ल्या सारकेपणाचो आदार घेवन आनी दोनूय जमातींमदीं संपर्क आशिल्लो हें सांगून डॉ. बी. के. घोष म्हण्टा, ''इंडो-युरोपीयनांच्या आदल्या जमातींनी जर एकेवटेन मध्य रशियेंतल्या फिनो-उग्रियनांकडेन आनी दुसरेवटेन सेमेटिकांकडेन संपर्क दवरिल्लो अशें मानलें जाल्यार इंडो फिनीक संबंदाक चड घटसाण येता आनी सैमीक घडणुकांचे नदरेन दक्षिण रशिया इंडो-युरोपीयनांची मूळ भूंय थारता.''

उत्तर किरघीज प्रदेश वा दक्षिण रशिया ही इंडो-युरोपीयन वा आर्यवंशीयांची मूळ सुवात आसली हें मत सगळ्यांकूच मान्य ना.

**स्थलांतराचीं कारणां:** आर्य जमात गोरवां-म्हसरां पोसताली. तेखातीर तणान भरिल्ल्या वाठारांची गरज तांकां सदांच लागताली. दुकळ पडून तणाचे वाठार नश्ट जातकच आर्यांचे ल्हान-ल्हान पंगड नव्या पिकाळ वाठाराच्या सोदांत भायर सरताले. खूब काळ मेरेन दुकळ पडिल्ल्यान आर्यकुळां आपल्या मूळ स्थानाकडल्यान भायर सरलीं अशें डॉ. दामोदर कोसंबी सांगता. शास्त्रज्ञांनी युरोपसावन भारत ह्या व्हड वाठाराच्या इतिहासापयलीं काळाचो अभ्यास करून आर्यांच्या मूळ स्थानाकडल्यान दोन व्हड निर्गमनां जालीं असो तर्क काडला. पयलें व्हड निर्गमन अरल दर्यासावन बल्ख प्रदेश (अफगाणिस्तान) मेरेन जालें. थंय तें कांय काळ रावलें. तातूंतले कांय जाण थंयच रावले. हेरांचे तीन पंगड तीन दिकांनी गेले. एक पंगड इराण, इराक, मेसोपोटेमिया मेरेन गेलो. मेसापोटेमियांत आर्यांचो असीरियन, सुमेरियन, अक्काडियन आनी हेर संस्कृतायांकडेन संबंद आयलो. बल्ख (अफगाणिस्तान) प्रदेशांतल्यान दुसरो पंगड मध्य आशियांत गेलो आनी तिसरो पंगड इंद्र नांवाच्या आर्य फुडाऱ्याच्या मार्गदर्शनाखाला पंजाबांत देंवलो. भारतीय आर्यांचे पूर्वज हेच आसले.

आर्यांच्या मूळ स्थानांतल्यान दुसरें व्हड निर्गमन दोन दिकांनी जालें. एक पंगड अस्तंते कडल्यान युरोपांतल्या प्रिपेट प्रदेशांत वचून कांय काळ थीर जालो आनी थंयच्यान सगळ्या युरोपांत पातळ्ळो. दुसरो पंगड कॉकेशस पर्वताक मोडण घालून आशिया मायनरांत गेलो. आशिया मायनर, मेसोपोटेमिया आनी मध्य आशिया सोडून हेर जाग्यार जंय आर्य पावले थंय तांणी थंयच्या जमातींक हारोवन भाशीक आनी संस्कृतीक मळार आपलें व्हडपण गाजयलें. त्यावेळार हेरांच्योय कांय गजाली तांणी आपणायल्यो. हातूंत ग्रीस, रोम, इराण, भारत ह्या देशांचो आस्वाव जाता.

**आर्यांचो भारतांत येवपाचो काळ:** आर्य भारतांत येवपाच्या काळासंबंदान अस्तंतेच्या आनी भारतीय संशोधकांमदीं दोन वेगवेगळीं मतां आसात. सगळ्यांत पोरनो वेद ऋग्वेद, ताची भास, तातूंत आयिल्ले पूर्विल्ल्या काळांतले उल्लेख आनी समकालीन घडणुको हांच्या आदारान आर्यकाळ थारावपाचो यत्न केला. इ. स. पांच हजार वर्सांपयलीं भारतीय आनी इराणी आर्य हांगा आयले अशें लोकमान्य

टिळक मानता. अस्तंतेच्या संशोधकांमदीं जाकोबी इ.स.प. ३५०० वर्सा, ब्रुन हॉपर इ.स.प. २८०० वर्सा, ग्रासमन इ.स.प. २००० वर्सा, मॅक्सम्यूल्लर इ.स.प. १५०० वर्सा, रॅप्सन इ.स.प. १२०० वर्सा आर्य भारतांत आयले अशें म्हण्टात. अस्तंतेचे आनी भारताचे संशोधक ऋग्वेदाची निर्मणी भारतांत जाली हें मान्य करतात. ऋग्वेद निर्मणेचो काळ इ.स.प. ८००-१००० वर्सा आसून आर्यांचो भारत प्रवेशाचो काळ इ.स.प. १००० - १५०० मेरेन येवन थिरावता. डॉ. घोष आर्यांचो भारत प्रवेशकाळ १५०० वर्सांफाटीं वचूंक शकना अशें मत मांडटा. बल्ख प्रदेशांतल्यान पंजाबांत आर्यांचे जे पंगड गेले तेन्ना मेसोपोटेमिया, सिरिया आनी पॅलेस्टीन हांगाय कांय पंगड गेल्याचो उल्लेख येता. ह्या बल्ख प्रदेशांतल्यान उदेंत आनी अस्तंतेक जाल्लीं निर्गमनां इ.स.प. दुसऱ्या सहस्त्रकांत जाल्लीं अशें ओल्डनबर्ग आनी कीथ हांचो आदार घेवन डॉ. घोष सांगता. डॉ. कोसंबी आनी डॉ. चतर्जी हांचींय मतां सादारपणान अशींच आसात.

मोहेंजोदडो आनी हडाप्पा हीं शारां नश्ट करपाचें काम आर्यांनी केल्लें ही गजाल इतिहासीक, उत्खननीय आनी हेर शास्त्रीय पुराव्यांवरवीं सिध्द जाल्यान तशेंच सिंधुसंस्कृताय इ.स.प. २५०० वर्सांआदीं नश्ट जाल्यान ताचेपयलीं आर्यांचो प्रवेश भारतांत जाल्लो अशें बा. द. सातोस्कर म्हण्टा. वयल्या वरीच विचारसरणी मानून इ.स.प. ३००० वर्सां पयलींची ट्रोजन संस्कृताय ही इंडो-युरोपियन आसली हो आदार घेवन डॉ. दांडेकर मूळ युरो-भारतीयांचो काळ इ.स.प. ४०००-३५०० वर्सां आसा अशें म्हण्टा, तेचपरी सिंधु संस्कृतायेच्या नाशाआदीं कितलींशींच वर्सां वैदिक आर्य भारतांत आयिल्ले हें ताणें दाखोवन दिलां. डॉ. ए. डी. पुसाळकर हाणें दाशराजयुध्द, भारतीय युध्द ह्यो घडणुको; राम, मांधांता, परशुराम आनी ययाती ह्यो व्यक्ती; पुराणां, रामायण आनी महाभारत ह्या ग्रंथांचो आदार आपलें मत मांडपाक घेतला. सादारणपणान इ.स.प. ३१०२ वर्साचो काळ भारतीय युध्दाचो आनी कलीयुगाचो आरंभ म्हूण मानतात. पुसाळकर हाका हो दावो मान्य ना. हो काळ वैवस्वत मनूचो आसा अशें तो म्हण्टा. मनू हो वैदिक आर्यांचो पयलो राजा आसलो. ताकालागून आर्यप्रवेशाचो काळ होच आशिल्ल्याचें तो मानता. बा. द. सातोस्कराच्या मतान दक्षिण रशिया वा किरघीज प्रदेशांतल्यान जे आर्यांचे पंगड भायर सरले ते इ.स.प. ३५०० ते ३००० वर्सा पंजाबांत येवन थिरावले आसूंक जाय.

**वाठारः** आर्यांचे वसाहतीक पयलीं 'आर्यावर्त' म्हण्टाले. ऋग्वेद काळांत आर्यांची वसती सप्तसिंधूच्या वाठारांत म्हळ्यार वायव्य सरहद्द प्रांत आनी पंजाब ह्या वाठारांत आसली. ऋग्वेदांतल्या नदीसुक्तांत सप्तसिंधूच्या प्रदेशांत कुभा (काबूल न्हंय), क्रुमु (कुर्रम), गोमती (गोमल), सिंधू, वरुष्णी (रावी), शुतुद्रि (सतलज), वितस्ता (झेलम), सरस्वती, यमुना आनी गंगा ह्यो न्हंयो व्हांवताल्यो अशें सांगलां (१०.७५). उपरांत आर्य सप्तसिंधूच्या वाठारांतल्यान उदेंत आनी दक्षिणेकडेन आयले. ह्या उपरांतच्या काळांत कुरूपांचाल आनी कोसलविदेह हे देश आर्यांचीं संस्कृतीक केंद्रां जालीं. ब्राह्मणग्रंथांची निर्मणी तशेंच यज्ञयाग ह्याच वाठारांत जाले. मनून हिमालय आनी विंध्य पर्वतांमदलो आनी उदेंत दर्यासावन अस्तंत दर्यामेरेन पातळिल्लो वाठार तो आर्यावर्त अशें म्हळां.

**इतिहासः** बा. द. सातोस्कराच्या मतान भौतिक, नैतिक आनी बौध्दिक मळार वैदिक आर्य समाज सामको पयले अवस्थेंत नासलो तरी सुदारणेचे अवस्थेंत आसलो. धर्म, कला, वाणिज्य, मूर्तिकला आनी मूर्तिशिल्प, नगराची रचणूक, रावपाचीं घरां, हे गजालींत द्रविड आर्यांपरस फुडारिल्ले. अन्न संपादप आनी अन्नाचें उत्पादन करप ह्या शास्त्रांतय आर्य लोक द्रविडांपरस फाटल्यान आसले. सादारणपणान द्रविड संस्कृताय ही आर्य संस्कृतायेपरस उंचेल्या पांवड्याची आसली. सिंधू-संस्कृतायेंतले लोक लेगीत भांगराच्यो वस्ती घडोवप, बायलांचीं वस्त्रां, अलंकार ह्या मळार मुखार आसले.

सातोस्कर फुडें म्हण्टा, आर्यांमदीं वयलीं दुबळेपणां आसलीं तरी ते शूर आनी धाडसी आसले. दुस्मानाक हारोवन शौर्य गाजोवप हींच तांणी स्वताचे जीणेचीं कर्तव्यां मानलीं. आपणाले यज्ञसंस्थेची राखण करपाक तांणी सुर्वेक अनार्यांकडेन झुजां केलीं आनी तांकां हारयले. भारतीय संस्कृति कोशाच्या मतान आर्यांचे सैनीक शिस्तीन वावुरताले. हजारांचे संख्येन ते दुस्मानाचेर घुरी घालताले. तांच्या सैन्यांत रथ, घोडे, आनी पांयदळ अशे तीन विभाग आसले. हतयांचें दळ फुडल्या काळांत घडलें. दास वा दस्यू हे आर्यांचे मुखेल दुस्मान आसले तर शबर हो सगळ्यांत व्हड दुस्मान आसलो. हिमाचल पर्वतालागीं ताचें राज्य आसलें. ताका हारोवपाक दिवोदासाक चाळीस वर्सां लागलीं. आर्य वीरांक आर्य ऋषींनी तांच्या झुजांत आनी पराक्रमांत खूब फावट सांगात दिला. वेगवेगळ्या आर्यजनांचे वेगवेगळे पुरोयत आसताले. भृगु हे द्रुह्यूंचे; अत्रि हे पुरूंचे; भरद्वाज, वसिष्ठ आनी विश्वामित्र हे भरताचे आनी कण्व हे यदूंचे पुरोयत म्हूण रावले. ऋग्वेद काळांत पुरु, यदु, अनु, द्रुह्यू आनी तुर्वश अशे आर्यांचे पांच पंगड भारतांत रावताले. सगळे आर्यप्रजेक 'पंचजन' म्हूण वळखताले; पूर्विल्ल्या पुरुंचो एक फांटो 'भरतकुल' हाचेवेल्यान ह्या देशाक 'भारत' अशें नांव पडलें. भरतांतल्यान फुडें 'तृत्सु' वयर सरले. यदुकुलांत फुडें 'श्रीकृष्ण' जल्मलो. पंचजन आर्य हे सगळे इंद्राग्नीचे भजक आसले. ब्राह्मण आनी राजन्य हे भेद तांचेभितर सुर्वेकच आशिल्ले. उरिल्ल्यो आर्य जाती विश् म्हळ्यार प्रजा ह्या वर्गांत मोडटाल्यो. ते राजाक विश्पति वा विशांपति अशें म्हण्टाले. फुडें अनार्यांक हारोवन आर्यांनी त्यो जमाती आपल्याभितर आस्पावन घेवपाची प्रक्रिया सुरू जाली, तेन्ना दस्यू वा शुद्रांचो वर्ग निर्माण जालो. अशे तरेन 'चातुर्वर्ण्य' समाज वेवस्था आर्यांभितर घडली.

आर्य लोकांनी पयलीं पंजाबांत येवन सिंधू संस्कृतायेचो नाश केलो आनी उपरांत ते उदेंतेवटेन गेले. थंय तांणी आपल्या वसाहतींची थापणूक केली. क्षत्रिय आनी ब्राह्मण ह्या दोनूय वर्णांत, काळांतरान फुडारपणाखातीर संघर्श सुरू जालो आनी ताचो शेवट परशुरामान केलो अशें बा. द. सातोस्कर म्हण्टा.

गंगा-यमुनेच्या वाठारांत आपलो शेक गाजयल्या उपरांत आर्य दक्षिणेवटेन आयले. हातूंत भृगु आनी अगस्त्य मुखेल आसले. भृगु गुजरातांतल्यान कोंकणांत गेलो, अगस्त सातपुड्यांच्या खिंडींतल्यान दक्षिणेंत गेलो. अगस्त ऋषीचें दक्षिणेत येवप हो दक्षिण आर्यीकरणाचो भाग आसलो. रामाचो वनवास हो 'अनार्यनिर्मूलन' कार्यांतलो एक वांटो आसलो. आर्यांक लागून दक्षिणेंत संस्कृताचो प्रसार जालो तरी द्रविड भास तगून उरली. हेच भाशेंतल्यान रामायण, महाभारताचीं संस्करणां जालीं. हिंदू धर्माचो उध्दार करपी श्री शंकराचार्य दक्षिणेंतच जल्मलो.

आर्य वसाहतकारांच्या यत्नांक लागून आर्यीकरणाची प्रक्रिया लंका आनी आग्नेय आशिया मेरेन पावली. लक्ष्मणशास्त्री जोशी हाणें अगस्त्याचें समुद्रप्राशन म्हळ्यार सिंहलद्वीप, ब्रह्मदेश, मलाया, इंडोचायना, जावा, सुमात्रा ह्या जुंव्यांनी केल्लो भारतीय संस्कृतायेचो प्रसार अशें म्हळां. विंध्याच्या वाठारांतलो आनी नर्मदेचे दक्षिणेकडलो वसाहतीचो इतिहास अगस्त्याक विंध्य पर्वत शरण गेल्याची कथाच सांगता अशें मत ताणें मांडलां. रामचंद्र दीक्षितार हाणें वायुपुराणांतलीं स जुंव्यांच्या चोम्यांचीं नांवां आनी हिंद महासागरांतली मलाया, सुमात्रा, इंडोचायना आनी थंयचो वाठार हांचो संबंद दाखोवन थंय भारतीय धर्म आनी संस्कृताय कशी गेली तें सांगलां. अगस्त्याची पूजा आयजय थंय चलता ताचेवेल्यान हें काम अगस्त्याचें आसुंये अशें तो म्हण्टा.

**भासः** डॉ. केतकराच्या मतान आर्य ही संस्कृत भास उलोवपी लोकांची जमात आसून ते एकवंशी न्हय. आर्य मुळांत एकभाशीक आसले ही गजाल चडशा संशोधकांक मान्य आसा. भारतांत आयिल्ले आर्य संस्कृत भास उलयताले पूण आर्य ज्या मूळ जाग्यावेल्यान आयिल्ले, थंयची भास संस्कृताचें आदलें रूप आसली आनी ती भास भारतीय आर्य न्हय तर अस्तंत युरोप, इराण, अफगाणिस्तान हांगा गेल्ले लोकय

उलयताले. देखून ह्या सगळ्या आर्यांची मूळ आवयभास एकच आसली हो तर्क वस्तुस्थिती म्हूण मान्य जाला.

**भेस, आंगलोट आनी जेवणखाण:** भारतांत आयिल्ले आर्य एका वंशाचे नासले हें मान्य केल्यार तातूंत जे नॉर्डिक आसले ते ऊंच, घटमूट आंगलोटाचे, गोरे, भांगरा केंसाचे आनी निळ्या दोळ्यांचे आसले अशें डॉ. चतर्जी म्हण्टा. भारतीय संस्कृतिकोशांत ऋग्वेदाचो दाखलो दिवन, तातूंत जें देवतांचें वर्णन आयलां तें आर्य लोकांचेंच आसा अशें म्हळां. आर्यांचो रंग गोरो, केंस पिंगशे, दोळे निळे, नाक सरळ, छाती व्हड, मान पूश्ट आसली. ते म्हान पुरषार्थी आनी वीर आसले. तांच्यो कुडी बळीश्ट आसल्यो. ते खांपे घोडे चलोवपी आसले. ते उक्त्या वाठारांत वसती करून रावताले. लोकरीची वस्त्रां विणटाले आनी वापरताले. ते बायलांवरी आपले केंस लांब दवरताले. कांय लोक खाड- मिश्यो दवरताले तर कांय जाण त्यो काडटाले, अशें ऋग्वेदांत सांगलां.

आर्यांचें मुखेल अन्न म्हळ्यार गोरवां-म्हसरां पसून मेळपी दूद आसतालें. ते कंदमुळां, फळां खाताले. ते मांस खाताले पूण नुस्तें खाताले असो उल्लेख खंयच मेळना. ते सोम नांवाचो सोरो पियेताले. गंव आनी जव हीं धान्यां तांकां खबर आसलीं आनी तांचें ते उत्पादन करताले. ऑस्ट्रिक आनी प्रोटो-ऑस्ट्रोलॉईड लोकांकडेन संबंद येवचेपयलीं तांकां तांदूळ खबर नासलो. नाल्ल, सुपारी हीं फळांय तांकां खबर नासलीं. काळांतरान ते जमीन कसपाक लागले. नाल्ल, सुपारी, तांदूळ आनी नागवेलीचीं पानां तांच्या धर्मीक कार्यांत आस्पावलीं.

हजारांनी वर्सांचे बदलपी परिस्थितीक लागून तशेंच हेर जमातीकडेन जाल्ल्या संकराक लागून मूळ रुपांत आर्यांचो नॉर्डिक वंश खंयच दिसना; फकत चित्पावन ब्राह्मण हाका अपवाद आसुंये अशें डॉ. चतर्जी म्हण्टा. आर्य-अनार्यांचो संघर्श आनी समन्वय हांचो परिणाम दक्षिणेचें आर्यीकरण जावपाक, आर्यवंशाचें शुध्दपण नश्ट जावपाक तशेंच तांचे संस्कृतायेंत आनी धर्मकल्पनांत बदल जावपांत जालो. उपरांत आर्य गंवावांगडा तांदूळ, मांसावांगडा नुस्तें, तुपावांगडा तेल खावपाक लागले. लोकरीचे कपडे वचून धोतर आनी उपरणे आयले. लग्न-पध्दतींत बदल जालो. पान-सुपारी, नाल्ला वांगडा हळद-कुकमाचो धर्मीक कार्यांत उपेग जावपाक लागलो.

**देवधर्म:** वैदिक काळांत आर्यांचो धर्म वैदिक आसलो. तांचो धर्म, संस्कृताय आनी दैवतकल्पना पयले अवस्थेंत आसल्यो. सैमीक घडणूको आनी वस्तूच तांणी देव मानल्यात.

सूर्य, उषा, वरूण, सवितृ, मित्र, इंद्र, रुद्र, वरुण, मरुत्, अग्नि, भग आनी हेर देवतांची स्तुतिपर सुत्रां ऋग्वेदांत आसात. द्रविडांच्या संपर्काक लागून आर्यांमदीं मूर्तिपूजा आयली. मागीरं तांणी मूर्ती, देवळां हीं शिल्पां घडयलीं. त्याआदीं ते इंद्र, वरुण, आदित्य आनी हेर देवांक संतुश्ट करपाक यज्ञ करताले आनी तांकां हविर्भाग ओंपताले. अग्नीवरवीं देवाक सोमरस आनी घृत पावयताले. स्वता खाता तें अन्न, नैवेद्य म्हूण देवाक दाखोवपाची पध्दत तांचीच आसली अशें म्हण्टात. आर्यांचे देव चडशे दादलेच आसले. बायल देवता तांणी हेरांकडल्यान उखलल्यो अशें डॉ. कोसंबी म्हण्टा.

**संस्कृताय:** आर्य लोक कुल वा कुटुंब करून एकठांय रावताले. तांच्यामदीं पितृसत्ताक कुटुंब पध्दत चलताली. दरेक कुलाचो एक दादलो मुखेल आसतालो. कुलाचो चोमो जावन ग्राम घडटालो. ग्रामाच्या मुखेल्याक 'ग्रामणी' म्हण्टाले.

**मरणप्रथा:** कुर्गन संस्कृताय ही मूळ युरोभारतीय लोकांची संस्कृताय आसली, अशें सिध्द करपी पुरावो मेळ्ळा. मूळ युरो-भारतीय लोकांत मडीं पुरपाची चाल आसली. मेल्ल्या मनशाक वेगवगळे फोंड खणून तातूंत ताची कूड पुरताले. त्या फोंडाचेर खणिल्ले मातयेची रास रचताले. राशीभोंवतणी एक वा दोन लांकडाच्यो वंयो घालताले. ऋग्वेदांत (१०.१८.४,१३) अशे तरेच्या वंयांचो उल्लेख आयला. किरघीज प्रदेशांत मेल्ल्या मनशाचीं मातयेचीं यादस्तिकां, थडीं वा कुर्गन जायतीं दिश्टी पडटात. बोगडानोव्ह ह्या रशियन पुराणवस्तुशास्त्रज्ञाच्या मतान तातूंतले बरेच कुर्गंद नवाश्मयुगांतले आसात.

**उद्देगधंदे:** शेत, गोरवां-म्हसरां पाळप, धातुकाम, पक्क्या मालाचें उत्पादन ह्या उद्देगांचेर वेदकाळांतली अर्थीक जीण आदारून आसली. कोश्टी, मेस्त, कांसार, शेट हे वेवसाय करपी लोकांक वैदिक काळांत खूब म्हत्व आसलें. आर्यांक लोखणाची म्हायती आसली. लोखणासावन तांणी कुराड वा परशू, तलवार, सुरी, वाखर, कातर ह्यो वस्तू घडयिल्ल्यो.

**अर्थीक आनी शिक्षणीक उदरगत:** वस्तूंच्या दिवपा घेवपाखातीर साधन आनी माध्यम म्हूण जनावरांचो उपेग जालो तरी आर्यांक चलनाखातीर भांगरा नाण्यांचो उपेग करपाक कळटालो. आर्यांच्या नाण्याक 'निष्क' म्हण्टाले. रुद्राच्या गळ्यांत निष्कांचो कंठो आसा अशें वर्णन ऋग्वेदांत (२/३३/१०) आयलां. भांगरा नाण्याचें 'मना' हें बाबिलोन्यिन नांव ऋग्वेदांत आसा. पयल्या बाबिलोनियन साम्राज्याच्या दक्षिण आनी अस्तंत देगेवयल्यान वेपार जातालो, ही गजाल खाल्डियन संस्कृतायेच्या लोकांनी सोदून काडल्या. भूमध्य समुद्रांत चार हजार वर्सां आदीं वेपार करपी वाण्याचो उल्लेख ऋग्वेदांत 'पणी' ह्या उतरान केला.

आर्यांक लेखनकलेची म्हायती नासली. ही कला मूळ सुमेरियनांची आसून दक्षिण भारतांतल्या द्रविड वेपाऱ्यांनी इ.स.प. आठव्या शतमानांत भारतांत हाडली आनी बुध्द भिक्षुंनी उपरांत ती उत्तर भारतांत व्हेली, अशें ऱ्हीस डेव्हिड्स (Rhys Davids) हाणें 'इंडिया' ह्या ग्रंथांत सांगलां. लक्ष्मणशास्त्री जोशी म्हण्टा, 'वैदिक लोकांनी गणन आनी लेखन हातूंत बरीच उदरगत केल्ली. हाचें प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष प्रमाण वेदांत मेळटा. ऋग्वेदांत वर्णमालेक 'अक्षर' हें उतर (१/१६४/२४,२९) वापरलां.' गणित आनी दशांक मेजपापध्दत वैदिक आर्यांची आसा. शून्याची कल्पना पयलीं पूर्विल्ल्या भारतीयांनी सोदून काडली. ह्यो दोनय कल्पना ग्रीक आनी रोमनांक खबर नासल्यो.

**गोंयचो संदर्भ:** दक्षिण भारताच्या आर्यीकरणाच्या इतिहासाचो ल्हानसो वांटो गोंयचो आसा. गोंयचें आर्यीकरण, तशेंच गोंयची निर्मणी करपाचें श्रेय परशुरामाक दितात. 'परशुराम' ही व्यक्ती खरी आसली काय काल्पनिक आसली हेविशीं अभ्यासकांमदीं आयजूय मतभेद आसात. परशुरामाच्या चरित्रांतलो अतितायें आशिल्लो वांटो कुशीक काडून चिकित्सक नदरेन ताच्या कार्याकडेन पळेल्यार परशुराम ही इतिहासीक व्यक्ती प्राक्कालीन इतिहासांत जावन गेल्ली हें सत मानचें पडटा अशें बा. द. सातोस्कर म्हण्टा. परशुराम, सनपयलीं पांच हजार वर्सांआदीं जावन गेल्लो अशें कन्हय्यालाल मुन्शी आनी प्रा. माटे हांचें मत आसा. डॉ. रा. गो. भांडारकराच्या मतान क्रिस्ती सनपयलीं सातव्या शतमाना आदीं भारतवर्षीय आर्यांक दक्षिण हिंदुस्थानाविशीं म्हायती नासली. विंध्य पर्वताक चुकोवन उदेंतेकडल्या मार्गान उत्तर सरकार अशें ज्या वाठारांक म्हण्टात, त्या प्रदेशामेरेन ते गेले आसले तरी दक्षिणेक रिगूंक नासले. विंध्य पर्वताचे हे वटेन दक्षिणेक आशिल्ल्या देशांची तांकां खबर नासली. क्रिस्ताआदीं सातव्या शतमानाच्या अदमासाक तांणी दक्षिणेक वचपाचो यत्न केलो आसूंये. डॉ. भाऊ दाजी लाड हाच्या संशोधनाप्रमाण सारस्वतांनी सव्या वा सातव्या शतमानांत गोंयांत राबितो केल्लो. गोंयांत सारस्वत जातीचीं आर्यकुलां पयलीं आयलीं. हो परंपरेन चलून आयिल्लो समज खरो आसल्यार गोंयचो आनी कोंकणाचो आर्यीकरणाचो काळ चवदाव्या शतमानांत म्हळ्यार आर्विल्ल्या काळांत मानचो पडटा, अशें बा. द. सातोस्कर म्हण्टा. डॉ. पुसाळकराच्या मतान सहस्त्रार्जुन कार्तवीर्य, विश्वामित्र, जमदग्नी, परशुराम आनी हरिश्चंद्र हांचो काळ क्रिस्ताआदीं २५४२ ते २५०६ वर्सां इतलो फाटीं वता. तेचपरी गोंयांत आर्यकुलां येवपाचो काळ अडेज हजार वर्सां सन पयलीं फाटीं वता अशें बा. द. सातोस्कर म्हण्टा.

गोंयांत परशुराम आयलोना, तर काणकोणांत कण्व ऋषी लेगीत येवन राविल्लो. ताचेवेल्यान ह्या वाठाराक 'काणकोण' हें नांव पडलें. तो

जंय तर्पण करतालो ते न्हंयक तर्पणची (तळपणची) न्हंय म्हण्टात अशी दंतकथा ह्या भागांत चलता. ऋषी-मुनींनी फकत अनार्याचीं मनां वळोवपाचो यत्न केलो असो न्हय तर तांच्या चलयांकडेन लग्नां करुन संस्कृती समन्वयाचें काम वंशसमन्वयाच्या मार्गान केलें अशें ए. डी. पुसाळकर म्हण्टा.

दक्षिणेचें आर्यीकरण करपी सगळ्यांत व्हड क्षत्रिय म्हळ्यार दाशरथी राम आसून ताणें चवदा वर्साच्या वनवासाचें निमित्त करून हें काम व्हड प्रमाणांत केलें. वानरांसारक्या अनार्यांकडेन बरेपण जोडून, प्रतिकार करपी राक्षसांक हारोवन रामान हें आर्यीकरण घडोवन हाडलें अशें बा. द. सातोस्कर म्हण्टा. रामा उपरांत श्रीकृष्णान आनी ताच्या यादवकुलान दक्षिणेच्या आर्यीकरणाचो वावर जिद्दीन पूण समन्वयान केलो. यादवांनी अनार्यांकडेन व्हड प्रमाणांत शरीरसंबंद दवरिल्ल्यान तांचो मूळ गोरो रंग ना जावन ते काळे जाले. श्रीकृष्ण हो लेगीत 'कृष्णवर्णीय' आसलो. भारताची नैऋत्य दर्यादिग, गुजरात, माळवा दखन ह्या वाठाराचें आर्यीकरण यादवांक लागून जालें अशें डॉ. पुसाळकर म्हण्टा. बा. द. सातोस्कराच्या मतान भारताचे नैऋत्य दिकेक गोंयचो आस्पाव जाता म्हूण यादव आनी श्रीकृष्ण गोंयांत आयिल्ले आनी तेचखातीर देवकीकृष्णाचें देवूळ गोंयांत आसा. गोंयचें आर्यीकरण अनार्यांकडेन संघर्श करीनासतना खेळीमेळीच्या भावनेन जालें अशें सातोस्कार म्हण्टा. आर्यांनी गोंयांतय अनार्यांचो मोग जोडलो. तांच्या चलयांकडेन लग्नां केलीं. ताका लागून गोंयांतल्या जाती जमातींत ब्राह्मण-ब्राह्मणेतर, वा पयलींच्या ब्राह्मण क्षत्रियांसारके संघर्श जावंक वा जातीयवादी दंगली जावंक नात. हे नदरेन श्रीकृष्ण हो खर मुत्सद्दी, व्हड झुजारी आनी धर्मसंस्थापक आसलो. देखून तो पूर्णपुरूश आनी राश्ट्रीय फुडारी थारतालो. ताचे विचार उदार आसले. तत्त्वनिश्ठा खर आसली. ताच्या ह्या गुणांक लागून अनार्यांत आर्य संस्कृतायेचो प्रसार करपाक तो जैतीवंत जालो. अशें The Vedic Age ह्या ग्रंथांत म्हळां.

गोंयचें आर्यीकरण सारस्वतानी केलें आनी तेच गोंयचे पयले वसाहतकार आशिल्ले अशी कल्पना स्कंदपुराणाच्या सह्याद्री खंडांत मेळटा. तातूंत परशुरामान त्रिहोत्रासावन दशगोत्री सारस्वताचीं कुळां गोंयांत व्हेल्ल्याची कथा दिल्या. वसाहतीकरणाच्या पध्दतीप्रमाण ब्राह्मणांवांगडा क्षत्रिय आनी वैश्यय परशुरामान हाडले आसपाक जाय अशें सातोस्कर म्हण्टा. फुडें क्षत्रिय कुळांचे मराठे, वैश्याच्यो तत्सम जाती जाल्यो. आर्यांभितर आस्पावल्ल्या अनार्यांक शूद्रांची सुवात मेळ्ळी. जेन्ना विभाजन आनी एकत्रीकरणाची प्रक्रिया महाराष्ट्रावरी गोंयांत घडली तेन्ना गोंयांत जाती-उपजाती घडल्यो. उपरांत वेवसायीक जातीचीं समानपणा आनी थळावेपण ह्यो गजाली मतींत घेवन तांकां मराठी, कुणबी, तेली, साळी, माळी, म्हालो आनी मडवळ हीं नांवां प्राप्त जाली आसूंये. थळाव्या भेदाक लागून आनी दळणवळणाच्या साधनांचो उणाव आशिल्ल्यान ते ते जातींतल्यो पोटजाती सदांखातीर तगून उरल्यो.

परशुरामाच्या आर्यीकरणाच्या उपरांत भारतीय झुजाकाळांत गोंयांत आर्यांचे ल्हान ल्हान पंगड येतच रावले. पूण सनपयलीं एक हजार वर्सां वा सनपयलींच्या चवथ्या शतमानांत सारस्वतांचो एक वेगळो पंगड गोंयांत येवन केळोशी वा कुठ्ठाळी गांवांत रावलो आसपाची शक्यताय बा. द. सातोस्कार उक्तायता. ही घडणूक सह्याद्रिखंडांत आयल्या आसून मांगीशमाहात्म्याच्या पांचव्या अध्यायांत दिल्या. आचार्य धर्मानंद कोसंबीन दुसरे सारस्वत वसाहतकार गोंयांत आयिल्ल्याची गजाल मान्य केल्या.

मळ्स्थ गणेश रामचंद्र शर्मा हाच्या मतान इ.स.प. ३२६ च्या मार्च म्हयन्यांत अलेक्झांडर द ग्रेट सिंध न्हंयेवेल्यान भारतांत आयलो तेन्ना आर्यांची दानाधिस्पट जाली. ह्या प्रसंगांतल्यान वाट काडपाखातीर हें स्थलांतर घडलें. ताचेवेल्यान इ.स.प. चवथ्या शतमानांत आर्य दक्षिणेंत आयले अशें म्हणपाक हरकत ना. सारस्वत मात सारस्वत नांवाच्या देशावेल्यान गोंयांत आयले. सारस्वतांचो दुसरो पंगड कान्यकुब्जासावन गोंयांत गेलो अशें सह्याद्रीखंड सांगता. पूण कान्यकुब्जासावन हे लोक खंय गेले हाचो उल्लेख मात सह्याद्रीखंडांत येवंक ना.

- कों. वि. सं. मं.

**आर्यभट्ट-१** : (जल्मः सुमार इ. स. ४७६; मरणः ?).

एक व्हड ज्योतिशशास्त्री आनी गणितशास्त्रज्ञ. बिहार राज्यांतलो कुसुमपूर (पाटणा) हो ताचो मूळ गांव आशिल्लो अशें मानतात. दक्षिण भारतांत ताचे भाश्यग्रंथ चड प्रमाणांत सांपडटात, देखून तो केरळ प्रांतांतलो आसुंये अशें कांय जाण मानतात.

आर्यभट्टान पूर्विल्ल्या ज्योतिशग्रंथांचें संशोधन करुन आर्याभटीय वा आर्यसिध्दांत ह्या ग्रंथाची रचणूक केली. ताणें करणग्रंथ हो ग्रहणिताचो ग्रंथ रचलो अशे संदर्भ मेळटात पूण ग्रंथ सांपडना.

आर्यभट्टान आर्यसिध्दांत ह्या ग्रंथांत गणितशास्त्र आनी ज्योतिशशास्त्र हांचो नियाळ सिध्दांतरुपान केला. हो नियाळ सूत्रबध्द आनी श्लोकबध्द आसा. ग्रंथाची रचनापध्दत वैज्ञानिक आसून भाशा सोपी आसा. ह्या ग्रंथांत चार पाद आसून सगळे मेळून १२१ श्लोक आसात. ह्या ग्रंथाचे चार विभाग (पाद) अशे आसातः

१. **गीतिकापादः** हातूंत १३ श्लोक आसून व्हड आंकड्याची संख्या ल्हान करून बरोवपाक व्यंजनां आनी स्वरांचो उपेग केला. व्यंजनांचो उपेग आंकडे दाखोवपाखातीर तर स्वरांचो शून्य दाखोवपाखातीर केला. देखीक ख्=२, थ्= ३०, उ=१०,०००, घ= ४ आनी ऋ=१०,००,०००. हाचेवेल्यान घृ= ४०,००,००० आनी ख्युघृ= ४३,२०,००० अशी संख्या जाता. थोडेभितर अशेतरेन संख्या मांडपाची पध्दत, दुसऱ्या ग्रंथांत मेळनाशिल्ल्यान ही मूळ कल्पना आर्यभट्टाचीच आशिल्ल्याचें विद्वान मानतात. गीतिकापादांत तेभायर राशी, अंश कला हांचे परस्परसंबंध, युगपध्दती, मळबाचो विस्तार, पृथ्वी, सूर्य, चंद्र आनी गिरे हांची गती, अंतर मेजपाची ल्हान व्हड मापां ह्या संबंदान विंगड विंगड म्हायती आयल्या.

२. **गणितपादः** हातूंत ३३ श्लोक आसून अंकगणित, बीजगणित आनी रेखागणित हेविशींची म्हायती आयल्या; तशेंच क्षेत्रफळ, घनफळ वर्ग, वर्गमूळ, घनमूळ आनी हेरांचे नेम सूत्ररुपान दिल्यात. '$\pi$' म्हळ्यार $\frac{\text{परिघ}}{\text{व्यास}}$ ह्या स्थिरांकाची किंमत ताणें $३\frac{१७७}{१२५०}$ वा ३.१४१६ इतली दिल्या. श्रेढी, त्रैराशिकां, अपूर्णांक, कुट्टकां (कूटप्रस्न) हेविशींची म्हायती ह्या विभागांत आस्पावल्या.

३. **कालक्रियापादः** हातूंत २५ श्लोक येतात. म्हयनो, वर्स आनी युगां हे विशींची म्हायती ह्या विभागांत आस्पावल्या. आर्यभट्ट ४३,२०,००० वर्साच्या एका महायुगांत ७२ युगां येतात अशें मानता, आनी सगळीं युगपादां सारकीं समान आसात अशें म्हण्टा. हेर शास्त्रज्ञ वयर दिल्या वर्साच्या एका महायुगांत ७१ युगां येतात अशें मानतात.

कलियुगाचो आरंभ ब्रेस्ताराक मध्यानरातीकडेन जालो अशें 'सूर्यसिध्दांतांत' आयलां. तर आर्यभट्टाच्या मताप्रमाण सुक्राराचो सूर्य उदेवचे वेळार म्हळ्यार १५ घटकांउपरांत कलियुगाची सुरवात जाली.

४. **गोलपादः** हातूंत ५० श्लोक आसून तातूंत, सूर्य, चंद्र, पृथ्वी ह्या गोलांची म्हायती आनी तांचीं सूर्यासावनचीं अंतरां दिल्यात. पृथ्वी, गिरे, नखेत्रां हांचो अर्दो भाग काळखांत तर अर्दो भाग सूर्याच्या उजवाडांत आसता अशेंय ह्या विभागांत सांगलां. तेभायर पृथ्वीची घडण, स्थिती आनी आकार, क्रांतीवृत्त, संपात बिंदू, खगोलशास्त्र, गिराणां संबंदान काळ-वेळ उक्तावपाची रीत ही म्हायतीय आयल्या.

ह्या ग्रंथाखातीर आर्यभट्टान स्वता घेतिल्ले सूक्ष्म वेध, दृक् प्रत्यय आनी वेधसिध्द आंकड्यांचो आदार घेतिल्ल्यान, तेचपरीं ताची ग्रंथ रचणूक सोपी आशिल्ल्यान हो ग्रंथ म्हत्वाचो जावन आसा.

आर्यभट्ट वेध घेवपाक खांपो आसलो. पृथ्वी स्वताभोंवतणी घुंवता हें मत निश्चितपणान सांगपी, आर्यभट्ट हो पयलो विद्वान गणितज्ञ आसलो. हें मत ताणें पांचव्या शेंकड्यांत मांडिल्लें आशिल्ल्यान ताचें मोल आनीकय वाडटा. आयज समाजाभितर रुढ आशिल्ले जायते सिध्दांत

पांचव्या शेंकड्यांत ताणें सगळ्यांत पयलीं मांडिल्ले.

ब्रह्मगुप्तान ह्या ग्रंथांविशीं आर्यभट्टाक जायतीं दुशणां दिल्यांत. सूर्ययज्वन हाणेंय आर्यभट्टाचेर टीका बरयल्या. १८७५ त केर्न हाणें 'आर्यसिध्दांत' हॉलडांत लेडन हांगा छापून उजवाडायलो. कलकत्त्यांत १९२७ त, प्रबोधचंद्र सेनगुप्त हाणें तर क्लार्क हाणें शिकागोंत १९३० त आर्यसिध्दांताचो इंग्लीश भाशेंत अणकार उजवाडायलो. अल् बीरूनी हाचेकडेन आर्यभटीय ग्रंथाचो कांय भाग अरबी अणकाराच्या रुपांत आसूंये अशें म्हण्टात. नामनेचो ज्योतिशी लल्ल हो आर्यभट्टाचो शिश्य आशिल्लो अशें कांय जाण मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

## आर्यभट्ट- २: (काळः इ.स. णवो वा धावो शेंकडो).

एक व्हड ज्योतिशशास्त्रज्ञ. 'आर्यसिध्दांत' ह्या नांवाचो हाचो एक ग्रंथ आसा. ताका 'महासिध्दांत' अशेंय म्हण्टात. हो १८ अधिकारांत आसून ताच्यो ६२५ आर्या आसात. ह्या ग्रंथाच्या पयल्या तेरा अध्यायांत करणग्रंथांतल्यो सगळ्यो गजाली आयल्यात. चवदाव्यांत गोलासंबंदान मांडिल्ले विचार आनी प्रस्न आसात. पंदराव्यांत अंकगणित (पाटीगणित) आनी क्षेत्रफळ, घनफळ ह्या विशयांची म्हायती आयल्या. सोळाव्यांत भुवनकोशाविशींचो नियाळ, सतराव्यांत ग्रहमध्य गतीची उत्पत्ती आनी अठराव्यांत बीजगणित आनी कुट्टकगणित आयलां. हाणें आंकडे दाखोवपाखातीर विंगड विंगड अक्षरसंज्ञाचो आदार घेतला. हे पध्दतीक 'कटपयादि' संज्ञा म्हूण वळखतात. हातूंतल्या स्वरांक अर्थ ना. 'अंकानां वामतो गतिः' म्हळ्यार ह्या वचनाच्या उरफाटी ही लेखन पध्दत आसा. हांगा दावे कुशीक पयले सुवातीचो अंक दिला. अयनांश काडपाची रितय हांगा आयल्या. हाच्या सिध्दांताप्रमाण येवपी अयनांश आनी स्पश्ट मेषसंक्रमणकाळार त्या अयनांशाइतलोच **(Precessional effect)** सायन रवी सारको काल सुमार शके ९०० येता.

हाचो युगपध्दतींत कल्पारंभ आयताराक येता. वर्समान ३६५ दीस १५ घट, ३१ पळ, १७ विपळां आनी ६ प्रविपळां अशें आसा. ह्या ग्रंथाप्रमाण सृश्टीच्या आरंभाकच स्पश्टग्रह एकठांय येतात पूण युगारंभाक न्हय. सृश्टीची उत्पत्ती जावन ३०,२४,००० वर्सां जालीं अशें अनुमान आर्यभट्ट (दुसरो) हाणें काडलां. सप्तर्षींक लेगीत गती आसा, अशें मानून तांच्यो नखेत्रांमदल्यो हालचाली दिल्यात. दृक्कोणोदय म्हळ्यार लग्नमानां अशें ताणें सांगलां. (दृक्कोणोदय= राशीचो तिसरो भाग= १० अंश). तेभायर ह्या ग्रंथांत ज्योतिशशास्त्राविशींची म्हायती विस्तारान दिल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**आर्यसमाजः** भारतांतलो एक आर्विल्लो धर्मपंथ. ह्या पंथाची थापणूक स्वामी दयानंद सरस्वती हाणें १० एप्रिल १८७५ म्हळ्यार चैत्र शु. प्रतिपदा संवत १९३२ दिसा केली. हो दीस ह्या पंथाचो थापणूक दीस म्हूण आयजूय मनयतात.

आर्य समाजाची थापणूक करपाक फुडली गजाल कारण जाली-

मूलशंकर अंबाशंकर नांवाच्या एका भुरग्यान स्वामी दयानंद सरस्वती हें नांव धारण करुन संन्यास घेतलो. घरदाराचो त्याग करून तो सत्याचो सोद घेवंक भोंवपाक लागलो. नामनेचो संस्कृततज्ञ प्रज्ञाचक्षू स्वामी विरजानंद हाचेकडेन ताणें व्याकरण आनी वैदिक शास्त्राचो अभ्यास केलो. सद्याचो हिंदू धर्म सनातन वैदिक धर्मापरस जायतो वेगळो आसून पौराणिक धर्माचो त्याग करून वेदाभ्यासाचो प्रसार केल्याबगर मनीसजातीचें कल्याण जावप अशक्य अशें ताका निमणें दिसून आयलें. गुरू विरजानंदाच्या आदेशावयल्यान आर्यसमाजाची थापणूक करपाचो ताचो हेतय होच आसलो.

सन १८८३ मेरेन स्वामी दयानंदान सगळ्या भारतदेशाची भोंवडी केली आनी मुखेल नगरांनी आर्यसमाजाची थापणूक केली. आर्य समाजाचो हेत लोकांमेरेन पावोवपाक ताणें जायत्या ग्रंथांची रचणूक केली; तातूंत 'सत्यार्थप्रकाश', 'संस्कारविधी' 'ऋग्वेदभाष्य भूमिका', 'ऋग्वेदभाष्य' (७ वें मंडल मेरेन), 'यजुर्वेदभाष्य' आनी हेर ल्हान व्हड ग्रंथांचो आस्पाव जाता. स्वामी दयानंदाच्या मर्णाउपरांत १८८३ त आर्य समाजांत फूट पडली आनी ताचे दोन फांटे जाले. एका फांट्यान मांसाहार आनी अस्तंतेच्या शिक्षणाचो पुरस्कार केलो. दुसऱ्या फांट्यान हे गजालीचो निशेध केलो, देखून ताका 'महाविद्यालय पक्ष' आनी 'पुराणमतवादी पक्ष' अशीं दोन नांवां पडलीं.

आर्य समाजाची थापणूक मुंबयत जाली तरी ताचो प्रसार महाराष्ट्रांत व्हडलोसो जावंक ना. लोकहितवादी आनी न्यायमूर्ती रानडे हांणी मात महाराष्ट्रांत आर्यसमाजाची थापणूक करपाचो आनी ह्या समाजाच्या तत्त्वांचो प्रसार करपाचो म्हत्वाचो वावर केलो. सद्या भारत सोडून ब्रह्मदेश, थायलॅण्ड, मलेशिया, आफ्रिका, वेस्ट इंडीज(त्रिनिदाद) ह्या वाठारांत आर्यसमाजाचो प्रसार जाला.

मलबारांत १९२१ त मोपला मुसलमानांनी व्हड बंड केलें आनी खूब हिंदूंक बाटोवन मुसलमान केले. ह्या संकश्टाच्या काळांत आर्य समाजाचे लोक मलबारांत गेले आनी सुमार अडेज हजार बाटयिल्ली हिंदू कुटुंबां परतीं हिंदू धर्मांत हाडलीं. १९३७ त, हैदराबाद संस्थानांत आर्यसमाजाचेर निजाम सरकारान बंदी घाली. हे बंदेआड आर्य समाजाच्या अनुयायांनी सत्याग्रह केलो. सुमार बारा हजार आर्यसमाजी लोकांनी तेखातीर बंदखण भोगली. किरिस्तांव आनी इस्लाम ह्या दोन धर्मांच्या आक्रमणासावन हिंदूधर्माची राखण करपाखातीर आर्यसमाजान जितल्या संकश्टांक तोंड दिलां तितलें हेर खंयच्याच धर्मपंथान दिवंक ना. उत्तर भारतांतल्या हिंदूमदीं जागृताय हाडपाचें खरे श्रेय आर्य समाजाक वता. आर्य समाजाक एक स्वतंत्र पंथ म्हणून उत्तर भारतांत वळखतात. तरी तो हिंदूधर्मापरस वेगळो म्हूण मानीनात.

आर्य समाजाच्यो थळाव्यो, प्रांतीय आनी अखिल भारतीय स्वरूपाच्यो तीन सभा आसात. आर्य समाजाची धर्मीक उपासना सप्तकांतल्यान एक फावट दर आयतारा सकाळची जाता. उपासनेचे सुर्वेक व्यासपीठालागीं उज्यांत समंत्रक आहुती दितात, आनी उपासनेक आरंभ करतात. ही उपासना चार वरां चलता.

**तत्त्वांः** आर्यसमाजाचीं मुखेल तत्त्वां वा विचार प्रणाली अश्योः

१. सगळ्या यथार्थ गिन्यानाचो उगम आनी सगळ्या वस्तूंचें आदिकरण परमेश्वर.

२. ईश्वर हो सच्चिदानंदस्वरुप आसून तो अनादी, अनंत, निराकार, निश्कलंक, पुराय शक्तिमान, सर्वसाक्षी, परमन्यायी, काकुळतेस्त, सगळ्या संवसाराची निर्मणी करून ताका पाळपी-पोसपी, देखून ताचें भजन-पूजन करचें.

३. वेद हो ईश्वराचो स्वास जावन आसा. सगळ्या यथार्थ गिन्यानाचें मूळ वेदांत आशिल्ल्यान वेदांचें अध्ययन करप आनी करून घेवप जण एका आर्याचें पवित्र कर्तव्य जावन आसा.

४. जण एका आर्यान सत्याक पाळो दिवंचो, असत्याक फाट करची.

५. वेव्हारांत दर एक कर्तुप धर्माक पाळो दिवन नीती-नेम पाळून करपाक जाय.

६. मनशांची अधिभौतिक, समाजीक, आध्यात्मिक आनी हेर गजालींत उदरगत घडोवन मनीसजातीचें कल्याण सादप, हो आर्य समाजाचो मुखेल उद्देश आसा.

७. मोगान आनी न्यायान वागप, हें दर एका आर्य मनशाचें कर्तव्य जावन आसा.

८. अज्ञान ना करून गिन्यान जोडप हें आर्यांचें ध्येय जावन आसा.

९. फकत स्वताच्या कल्याणांत समाधान मानीनासतना दुसऱ्याची खोशी तीच आपली खोशी मानप.

१०. समाजीक कल्याणाखातीर वावुरतना दर एकल्यान आपापसांतले भेदभाव-वायटपण विसरपाक जाय. खाजगी आनी स्वताच्या हिताचे नदरेन जणएकलो आपल्या मताप्रमाण वागपाक मेकळो आसा.

आर्यसमाजाच्या ह्या धा तत्त्वांमदलीं पयलीं तीन तत्त्वां धर्मीक नदरेन म्हत्वाचीं आसात. उरिल्लीं तत्त्वां ह्या पंथाचे निती-नेम जावन आसात.

स्वामी दयानंदान 'वेद' ह्या उतराचो अर्थ गिन्यान असो केला. वेद ईश्वरप्रणीत आसून सगळ्या शास्त्रांचीं मूलतत्त्वां तातूंत आस्पावल्यांत. तीं स्वयंसिध्द आनी सत्यस्वरूप आसात. मनीसजातीच्या वैज्ञानिक आनी परमार्थीक विचारांचो उगम वेदांत आसा म्हूण चार वेदच तांणी प्रमाण मानल्यात. ब्राह्मणग्रंथ, स शास्त्रां, स्मृती आनी अठरा पुराणां ताणें प्रमाण म्हूण मान्य करूंक नात. मूळ वेदांत मूर्तिपूजा, अवताखाद, तीर्थ, व्रतां, पौराणिक अनुष्ठानां आनी हेरांचो पुरस्कार ना. ताकालागून आर्यसमाजाच्या प्रवर्तकांनी ह्यो गजाली मानून घेवंक नात. तांणी श्राध्दां बंद केलीं आनी पुरेयतांकय काडून उडयले. राम-कृष्ण हे देवाचे अवतार नासून ते व्हड म्हापुरुस आसात अशें ह्या पंथाचें मत आसा. हिंदूंचे सोळा संस्कार आर्यसमाज मानता. ते भायर दर एक आर्यसमाजी दादल्यान फुडले पंचमहायज्ञ करपाकूच जाय अशी आर्य समाजाची आज्ञा आसा.

१. ब्रह्मयज्ञ- संध्या आनी नेमान वेदपठण २. देवयज्ञ- अग्नीक आहुती दिवप ३. पितृयज्ञ- जाणट्या मनशांची सेवा ४. अतिथीयज्ञ- विद्वान सोयऱ्यांक वा संन्याशांक जेवण दिवप ५. बलियज्ञ- कुड्डो, अपंगूळ, अनाथ तशेंच मोनजातींक अन्न दिवप.

भारताक पर्थून वैदिक मार्गार व्हरप आनी सगळ्या संवसाराक वैदिक धर्म शिकोवप ही आर्य समाजान आपलीं कर्तव्यां मानलीं. त्याचवांगडा वेदांचो प्रसार आनी उध्दारय केलो. वेदांचें अध्ययन करपाचो अधिकार सगळ्यांक आसा अशें हो समाज मानता. जातिभेद वा अस्पृश्यताय आर्यसमाज मानीना. पूण गुणकर्मांचेर आदारिल्ले चातुर्वर्ण्य मानता. देखीक- तप, गिन्यान आनी शांती हे गुण आशिल्लो ब्राह्मण, वीरवृत्ती आनी फुडारपणाचो गूण आशिल्लो क्षत्रिय, दुडू एकठावपांत हुशार आशिल्लो वैश्य, तर कुडीच्या श्रमाक म्हत्व दिवपी शूद्र अशें हो पंथ मानता.

आर्यसमाजान जीव, प्रकृती आनी ब्रह्म हीं तीन तत्त्वां वेगवेगळीं मानल्यांत. मोक्ष जोडप हें दर एका मनशाचें ध्येय आसून दर एकल्यान तें स्वताच्या यत्नांवरवीं मेळोवपाक जाय. मोक्षाची पुरय तयारी करपाक मेळची म्हूण ईश्वरान पुर्नजल्माची येवजण केल्या. अशें आसलें तरी ईश्वराची सत्ता मर्यादित आसा अशें ताचें मत आसा.

आर्यसमाजाक 'नियोग' पध्दत मान्य आसा. आर्यसमाज घोव-बायल, विधवा-विधूर हांकां सकयल्या नेमांखाला नियोग संबंदाक परवानगी दिता.

१. दादलो/बायल, रोग वा हेर कारणांक लागून भुरगीं जावपाक असमर्थ थारल्यार. २. घोव धर्मीक कारणांखातीर, अध्ययन करपाखातीर वा पयशे जोडपाच्या हावेसान कांय थारावीक काळ घर सोडून गेल्यार. ३. घोव वा बायल वायट वा कोडू उलोवपी आसल्यार. ४. बायल वांझ आसल्यार वा लग्ना उपरांत आठ वर्सां मेरेन भुरगें जालें ना जाल्यार. ५. जल्मल्लीं सगळीं भुरगीं अल्पायुषी थारल्यार. ६. बायलेक सगळ्यो चलयो जाल्यार. ७. जर बायल गुरवार आसा वा खूब काळमेरेन दुयेंत आसल्यार तशेंच घोव दुयेंत आसल्यार आनी दोगांमदल्या एकाक जर जुवानपणाक लागून 'काम' आळबंदा हाडूक जमना जाल्यार, नियोग आचरपाक हरकत ना.

हे नेम करपाफाटल्यान व्यभिचार, जारकर्म आळाबंदा हाडप, पुरुशसंतत निर्माण करप, कामविकाराचें शमन करपाक नितीचो मार्ग दाखोवप हे हेत आसले. पूण दयानंदाचें नियोगतत्त्व आचरणांत हाडप मात ताच्या अनुयायांक जमलें ना.

सुर्वेक समाजाच्या प्रवर्तकांनी आपली मतां वा तत्त्वां लोकांक पटोवपाखातीर खूब यत्न केले. विरोधी मताचें खंडन केलें. तेउपरांत तांणी विधायक वावर हातांत घेवन गुरुकुलां, महाविद्यालयां, हरद्वारलागीं कांगडी हांगाचें गुरुकुल, विश्वविद्यालयां, माध्यमिक शाळा, अनाथालयां, विधवाश्रम सारक्यो संस्था सुरू केल्यो. सनातनी हिंदूधर्मीयांच्या विरोधाक तोंड दिवन वेदप्रणीत धर्माच्या पुनरुत्थानाचें व्हड कार्य केलें. ह्या समाजाची प्रौढ विवाह, पुनर्विवाह, जातिनाश, वर्ण रचणूक, अस्पृश्यांचो उध्दार, गुणकर्मविभाग हीं तत्त्वां आतां हिंदूंक मान्य आसात.

उदयपूरचो महाराज, लाला मुलराज, लाला रामशरणदास रईस, मोहनलालजी बिष्णूलालजी, लाला जगन्नाथ, गोपाळ हरी देशमुख (लोकहितवादी), पंडित श्यामजी कृष्णवर्मा हे आर्य समाजाचे पदाधिकारी आसले. ब्रह्मीभूत स्वामी श्रध्दानंदाक आर्यसमाजाचो हुतात्मो मानतात.

प्रार्थनासमाज वा ब्राह्मोसमाज हांचेपरस आर्यसमाजाचो सर्वसामान्य, भौसाचेर चड प्रभाव आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**आर्या:** मराठी भाशेंतलो पद्यरचनाप्रकार. हो रचनाप्रकार प्राकृत गाथेवेल्यान घडलो. 'आर्या' ह्या रचनाप्रकाराचें मूळ हाल हाणें प्राकृत भाशेंत रचिल्ल्या 'गाहासत्तसई' हे गाथारचनेंत मेळटा. ही गाथारचना महाराष्ट्रांत खूब नामनेक पावली. काळांतरान हे रचनेक 'आर्या' हें नांव पडलें. गाथेच्या सुसंस्कृत रुपाक 'आर्या' म्हण्टात.

मोरोपंतान मराठींत 'गीति' ह्या प्रकारांत रचना केल्यो. ताका व्हड नामना मेळ्ळी. हे रचनेकच 'आर्या' म्हणपाक लागले. आर्याच्या समचरणांत एकेक द्विमात्रक अदीक वाडोवन ताची 'आर्यागीति' जाली. आर्येचें गायन, किर्तन, भजन सारक्या प्रसंगार जाता. विषम चरणांच्या शेवटाक चार मात्रांची कूस आनी समरचणांच्या शेवटाक स मात्रांची कूस भरून काडून तानेच्या पूरक मात्रेचो आदार घेतात. ताका लागून आर्या मृदंगाच्या वा तबल्याच्या ठेक्यांत पुराय बसता. आर्येंतलीं मात्रिक आवर्तनां अष्टमात्रक पद्दमावर्तनां आसतात. दुसऱ्या वा चवथ्या चरणांतली णवी मात्रा लघु अक्षराची आसची. गरज पडत थंय 'ज' गण आसचो अशी चाल पडल्या.

मराठी काव्याच्या इतिहासांत, गीति वृत्ताचो वापर व्हडलोसो केल्लो दिसना. कांय संस्कृत नाटकांत, आर्यावृत्ताचो वापर साप्प थोडो जाला. जगन्नाथ पंडितान मात गीतिवृत्ताचो वापर केल्लो दिसता. मोरोपंताकडेन कांय हातबरपाचे ग्रंथ आसले. ताची वळेरी पांगारकरान 'मोरोपंतचरित्र' हातूंत दिल्या. तातूंत जगन्नाथ पंडिताच्या 'अश्वघाटी' आनी 'भामिनीविलास' ह्या ग्रंथांचे उल्लेख आयल्यात. हाचेवेल्यान 'गीतिवृत' रचपाची कल्पना मोरोपंताच्या मनांत जगन्नाथ पंडिताकडसून आयली अशें म्हण्टात. 'श्रुतबोध' ह्या संस्कृत वृतदर्पणांत 'गीति वृताचें' लक्षण फुडले तरेन सांगलां.

आर्यापूर्वार्धसमं द्वितीयमपि यत्र भवति हंसगते।
छन्दोविदस्तदानी गीतिताममृतवाणि भाषन्ते।।

अर्थ: जे कवितेंत आर्येच्या पयल्या वांट्याप्रमाण दुसरे वांटो आसता, तिका छंदोवेत्ते गीति म्हण्टात.

आर्येचे दोन नमुने अशे:-

आर्या आर्यांसि रूचे ईच्या ठायीं जशी असे गोडी।
आहे इतरां छंदी गोडी, परि यापरीस ती थोडी।

(भीष्मभक्तिभाग १.१०)

आर्या देखुनि सज्जन चित्तीं होतील फार सानंद।
मंदाज्ञानिच सरतिल मार्गें कीं ठाउकें नसे छंद।।

(भगवद्गीता- आर्याटीका)

मोरोपंताच्या काळांत आनी उपरांत सुमार देडशीं वर्सां सगळे मराठी किर्तनकार आर्येचो व्हड प्रमाणांत उपेग करताले.

- कों. वि. सं. मं.

**आर्यावर्त:** पूर्विल्ल्या काळांत आर्य लोकांनी भारतांत येवन जो वाठार वसयलो ताका 'आर्यावर्त' अशें म्हण्टात. (विष्णुपुराण २/३/१ आनी मार्कंडेय पुराण ५७/५६). हातूंत आर्यावर्ताक 'भारतवर्ष' अशें म्हळां.

गुप्तकाळांत ह्या वाठाराक 'कुमारीद्वीप' अशें नांव आसलें.

ऋग्वेद काळांत आर्य लोकांची वसती सप्तसिंधूच्या प्रदेशांत म्हळ्यार वायव्य सरहद्द प्रांत आनी पंजाबांत आसली. नदीसूक्तांत (१०.७५) सप्तसिंधूच्या प्रदेशांत कुभा (काबूल न्हंय), क्रुमु (कुर्रम), गोमती (गोमल) सिंधु, परुष्णी (रावी), शुतुद्रि (सतलज), वितस्ता (झेलम), सरस्वती, यमुना आनी गंगा ह्यो मुखेल न्हंयो व्हांवताल्यो अशें म्हळां. वैदिक आर्य ज्या वाठारांनी रावताले त्या वाठाराच्यो शिमो ह्या न्हंयांनी आंखल्यात.

कांय काळाउपरांत आर्य सप्तसिंधूच्या वाठारांतल्यान उदेंतेकडेन आनी दक्षिणेकडेन पातळ्ळे. उपरांतच्या काळांत कुरूपांचाल आनी कोसलविदेह हे देश आर्यांचीं सांस्कृतिक केंद्रां जालीं. ब्राह्मणग्रंथांची निर्मणी ह्याच काळांत जाली. जायते यज्ञयाग ह्या वाठारांत जाल्यान, त्या वाठाराक 'प्रजापतिची नाभि' म्हूण वळखुपाक लागले. शतपथ ब्राह्मण कुरुपांचालांतली भास सगळ्यांत बरी आनी प्रामाणिक अशें सांगता. उपनिषदांच्या काळांत आर्यांचो राबितो काशीसावन विदेह जनपदामेरेन म्हळ्यार पंजाब सावन मिथिलेमेरेन आसलो. धर्मसूत्रांच्या काळांत आर्यावर्ताचे शिमेविशीं जायते मतभेद जाल्ले दिसतात. वसिष्ठ धर्मसूत्रांत आर्यावर्ताची व्याख्या अशी दिल्या:

आर्यावर्तः प्रागदर्शात्, प्रत्यक् कालकवनादुदक्
परियात्राद्दक्षिणेन हिमवतः उत्तरेणच विन्ध्यस्या (१.८-९)

अर्थः सरस्वती न्हंय जंय गुप्त जाल्या त्या वाठाराचे उदेंतेक, कालकवनाचे अस्तंतेक, परियात्र आनी विंध्य पर्वताचे उत्तरेक आनी हिमालयाचे दक्षिणेक आर्यावर्त देश वसला.

वसिष्ठान आर्यावर्ताविशीं आनीक दोन मतां मांडल्यात.

'गङ्गायमुनयोरन्तरेप्येके। यावद्वा कृष्णमृगो विचरति तावद् ब्रह्मवर्चसमित्यन्ये।' (१.१२.१३)

अर्थः गंगा आनी यमुना न्हंयांमदल्या वाठाराक आर्यावर्त म्हण्टात वा ज्या वाठारांत कृष्णमृग कोणाचीच भिरांत बाळगिनासतना भोंवतात, जो प्रदेश यज्ञिय आसता ताका आर्यावर्त म्हूण वळखुचो.

बौधायनधर्मसूत्रांत 'आदर्श' ह्या उतरासुवातेर 'विनशन' हें उतर वापरलां. वयलीं दोनूय उतरां एकाच वाठाराचीं आसून विनशन क्षेत्रांत सरस्वती गुप्त जाली अशें म्हण्टात. मनून आर्यावत प्रदेशाची मांडावळ अशी केल्या.

आसमुद्रात्तु वै पूर्वादासमुद्रात्तु पश्चिमात्।
तयोरेवान्तरं गिर्योरार्यावर्तं विदुर्बुधाः।। (२.२२)

अर्थः हिमालय ते विंध्य आनी उदेंतेचो दर्या ते अस्तंत दर्या मेरेनचो वाठार 'आर्यावर्त' म्हूण वळखुचो.

पूर्विल्ल्या काळांत विंध्याचे दक्षिणेकडलो वाठार आर्यावर्ताचे वा आर्यसंस्कृतायेचे शीमेभायर आसलो, हें दिसून येता. वसिष्ठ ज्या वाठाराक 'आर्यावर्त' म्हण्टा त्याच वाठाराक मनू मध्यदेश म्हण्टा. वसिष्ठान आर्यावर्ताची उदेंतेकडली शीम कालकवन म्हळ्या, तर मनून मध्यदेशाची शीम प्रयाग म्हळ्या. कालकवन आनी प्रयाग ह्या दोगांचीय सुवात एकूच आशिल्ल्यान, मनू आनी वसिष्ठाची त्यासंबंदीचीं मतां सारकीं दिसतात. पूर्विल्ल्या काळांत प्रयागाच्या लागसार एक व्हड रान आसलें, अशें वाल्मिकी रामायणांतल्या अयोध्याकांडांत (५४.५५) म्हळां. ताचेवेल्यान मनू आनी वसिष्ठ हांणी सांगिल्ले वाठार एकूच हें स्पश्ट जाता. आर्यावर्ताच्यो शिमो वयर सांगिल्याप्रमाण आसल्यो. ह्या शीमांभायर आशिल्ल्या वाठाराक 'म्लेंच्छ देश' म्हण्टाले. ह्या वाठारांत वचून येवपी आर्यावर्ताच्या नागरिकांक आपले दिसपट्टे वेव्हार सुरू करचेपयलीं प्रायश्चित घेवचें पडटालें. उदेंतेक अंग, वंग, कलिंग आनी अस्तंतेक सिंधु सौवीर ह्या देशांत गेल्यार पुनस्तोम वा सर्वपृष्ठ यज्ञ करचो अशें बौध्द धर्मसूत्र सांगता (१.१.२९-३०). काळाच्या ओघांत घडपी बदलाचो बरो वा वायट परिणाम संस्कृतायेचेर जाता, तेन्ना सदाचारी क्षत्रिय राजाच्या हातांत राजसत्ता उरप गरजेचें आसता. तेपासत सदाचारी क्षत्रिय राजान जिखिल्ल्या राज्यांक आर्यावर्तांत सुवात दिवची आनी थंय चातुर्वर्ण्य पध्दत पाळची, अशें मेघातिथीभाष्य म्हण्टा. कर्णपर्वांत (४३.५-८) पूर्विल्ल्या काळांत वैदिक आर्यांचें संस्कृतायेचें केंद्र आशिल्लो पंजाब, महाभारतकाळांत यवनांच्या हातांत गेलो तेन्ना आचारहीन जालो अशें सांगलां. आर्यावर्तांत वैदिक ऋषी, स्मृतिकार हांकां आदर आनी भोवमानान पळयताले. आर्यांची जीणपध्दत आनी संस्कृताय संवसाराभितर सगळ्यांत ऊंच पांवड्यावेली आसा असो तांकां गर्व आसलो. मनू म्हण्टा-

एतद्देशप्रसूतस्य सकाशादग्रजन्मनः।
स्वं स्वं चरित्रं शिक्षेरन् पृथिव्यां सर्वमानवाः।। (२.२०)

अर्थः ह्या देशांत जल्मल्ल्या ब्राह्मणाकडल्यान पुराय मनीसकुळयेन आपआपलें धर्मीक आनी नैतिक आचरण शिकचें.

- कों. वि. सं. मं.

**आलिंगन:** आलिंगन म्हळ्यार 'प्रीतिपूर्वकपरस्पराश्लेषः'. ताचो अर्थ मोगाचे भावनेन एकामेकांक गोपांत घेवप वा वेंगावप असो जाता. वात्स्यायन आनी कल्याणमल्ल हांणी आपल्या कामसूत्र आनी कामकल्प ग्रंथांत आलिंगनाचे बारा प्रकार सांगल्यात ते अशे:



आलिंगन

**स्पृष्टक:** भौशीक मळार, चडकरून गर्देंत मोगी, मोगिकेच्या लागींच्यान चलतासतना तिच्या आंगाक आपलें आंग घश्टीता. तेवरवीं मोगिकेक आलिंगनाचें सूख मेळटा. पूण हेरांक मात ताचो कसलोच दुबाव येना.

**विध्दक:** हें आलिंगन दिवपावेळार मोगिका वा बायल फुडाकार घेता. वाटेवेल्या गर्देंतल्यान वतासतना कसलेंय निमित्त काडून मोग्याच्या फुडल्यान वा फाटल्यान आपल्या थानांचो स्पर्श करता. हाचेवरवीं आलिंगनाच्या सुखाचो अणभव दोगांयजाणां घेतात.

**उद्धृश्टक:** रातच्या काळखांत, भर गर्देंत मोगी आपणाले मोगिकेक परती-परती वेंगायता, गोपांत घेता. पूण तें कोणाच्याच लक्षांत येना.

**पीडितकः** उद्‌धृश्टकाचो पांवडो हुंपतकच पीडितकाचे अवस्थेंत पावता. काळखांत मोगी वा मोगिका खांब्याच्या, रुखाच्या वा वण्टीच्या आदारान उबीं रावतात. हे अवस्थेंत एकामेकांक गोपांत घेवपाची क्रिया सोपेपणान घडून येता.

**लतावेष्टीतकः** हें आलिंगन एकांतांत घेतात. वाल रुखाक आंवळून घेता, तेपरी मोगिका मोग्याचें आंग आंवळून घेता आनी ताच्या कुडीचो भाग जाल्ल्यावरी दसून रावता. ती आपल्या हाताची पागडी ताचे भोंवतणी घुस्पायता आनी मोटे उमेदीन मोग्याच्या तोंडाकडेन पळेता. उपरांत तो आपले ओंठ खाला हाडून तिच्या ओंठाचो उमो घेता.

**वृक्षाधिरुढकः** मोगिका एका पांयार उबी रावता आनी आपल्या उजव्या पांयान मोग्याच्या उजव्या पांयाक पागडी घालता. एका हातान ती मोग्याच्या खांद्याक धरता. दुसरो हात ताचे कमरेचेर दामून ती रुखाचेर चडिल्ल्याचो अभिनय करता. ह्या वेळार मोगिका आपलो उमो घेवचो ह्या हेतान, आपलें तोंड वयर उखलता.

**तिलतंडुलकः** मोगी-मोगिकेन एकामेकांक दिल्लें घट अशें आलिंगन.

**क्षीरनीरकः** उदक दुदांत पुराय विरगळून एकजीव जाता तशें दादलो-बायल, मोगी-मोगिका एकामेकांकडेन एकजीव जावंच्यो ह्या हेतान, न्हिदिल्लेकडेन वा बशिल्लेकडेन घट अशें आलिंगन दितात.

**उरुपगूहनः** दादलो-बायल एकामेकांकडेन तोंड करून एके कुशीर न्हिदतात आनी एकामेकांच्या मांडयांत मांडयो घुस्पायतात.

**जघनोपगूहनः** दादलो उदारो न्हिदता. बायल ताका नेटान आवुंळटा. ह्या वेळार दोगांच्योय कुडी एकामेकांक खूब लागीं येतात.

**स्तनालिंगनः** ह्या आलिंगनांत मोगिका आपणाल्या मोग्याक स्वताच्या थानांचो दाब दिवन गोपांत घेतात.

**ललाटिकः** आलिंगनाची एक थंड तरा. हातूंत मोगी-मोगिका वा दादल्या-बायलेचे दोळे, नाक, ओंठ, एकामेकांक लागतात. कपलाचो फकत स्पर्श जाता.

आदल्या काळांत इश्ट-मित्रांक वा सोयऱ्या-धायऱ्यांक येवकार दितना एकामेकांविशींचो मोगाचो भाव उक्तो करपाखातीर एकामेकांक वेंगावन आलिंगन दिवपाची पध्दत आसली. ही पध्दत आयजूय कांय धर्मियांमदीं दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

## आलें:

(मराठी-आले; हिंदी-अद्रक, अडा; गुजराती- आदू; कन्नड-अला, हसिसुंठी; संस्कृत-आर्द्रक शृंगबेरा; इंग्लिश-जिंजर; लॅटीन-झिंजिबर ऑफिसिनेल. गण-सिटॅमिनी. कूळ- झिंजिबरेसी). एक वखदी वनस्पत. ही ल्हान वनस्पत (मूळक्षोड) मूळची आग्नेय आशिया वाठारांतली (चड करून भारत आनी चीन) आसा. जायतीं वर्सां जगपी हे वनस्पतीचें कांड जमनींत आडवें वाडटा. ह्या जमनींतल्या कांडापसून जमनीवयर सुमार ०.५ ते १.५ मी. ऊंच फांटे येतात. पानां सादीं, लांबशीं, जिबले आकाराचीं आनी मुळांत गुठ्लायल्ल्यावरी आसतात. आल्याचे गड्डे हाताच्या बचक्याभशेन आसून तांचीं चडशीं बोटां एकामेकांक लागून आसतात.

**पिकावळीचो वाठारः** भारत, इंडोनेशिया, वेस्ट इंडीज (चडकरून जमैका), उत्तर आनी अस्तंत आफ्रिका ह्या उश्ण कटिबंधांतल्या वाठारांत आल्याची लागवड मोट्या प्रमाणांत जाता. भारतांत समुद्रथरापसून ते हिमालयाचे देंवतेवेल्या १६७० मी. उंचायेमेरेनच्या वाठारांत आनी चड करून दक्षिणेकडल्यान प्रदेशांत आल्याची लागवड करतात. केरळ, आंध्र प्रदेश, गुजरात, हिमाचल प्रदेश, महाराष्ट्र ह्या राज्यांत आलें रोयतात.

**लागवडः** ह्या पिकाक उश्ण, दमट आनी पावसाळी हवामान लागता. वायटी नाशिल्ले, मध्यम काळे, भुसभुशीत आनी जांभ्या फातराचे जमनींत आल्याचें पीक बरें जाता. आल्याची लावगड करचे पयलीं जमीन खणून वतांत तापयतात. आल्याच्या पिकांत उदक सांचून उरचें ना हाची जतनाय घेवंची पडटा. देखून, शेताचे भोंवतणी मेरो काडटात. ह्या पिकाक भरपूर सारें घालचें पडटा. ह्या पिकाक प्रती हेक्टर ३५.५० टन शेणाचें सारें आनी ७५ किग्रॅ. नायट्रोजन सारें घालतात. उपरांत जून म्हयन्याचे सुरवातीक कोंब आशिल्ले कुडके रोवपाखातीर वापरतात. सादारण ३०×३० सेंमी. अंतराचेर चरांत ५ सेंमी. खोल फोंडकुलां काडून तातूंत आल्याचो कुडको रोयतात. कमी पावसाच्या वाठारांत वा ल्हान आकाराचें आलें आसल्यार तें १५×१५ सेंमी. वा २२×२२ सेंमी. अंतराचेर लायतात. लागवड करतकच ह्या पिकाक उदक दितात. कोंब भायर फुटपाच्या काळांत पिकांत उदक सांचल्यार कोंब कुसपाचो संभव आसता. उपरांत जायतशी नडणी करून पिकाक उदक, सारें घालतात. फुडें ७-८ म्हयन्यांनी पानां सुकतकच आलें खणून काडटात.

**उत्पन्नः** ह्या पिकाचे दोन विदेशी प्रकार केरळ राज्यांत लायतात. एक 'रीओ दे जानेरो' आनी दुसरो 'चायना' आलें. तांचेपसून अनुक्रमान २२,५०० आनी २८,००० किग्रॅ. इतलें उत्पन्न मेळटा. थळाव्या पिकापसून ७,५०० ते १२,५०० किग्रॅ. आलें मेळटा.

**सूंठः** सुकयल्ल्या आल्याक सूंठ म्हण्टात. सुरवातीक आलें निवळ करूंक तें उदकांत भिजत घालतात आनी ताचेवेली साल खरवडून काडटात. हें आलें सात आठ दीस वतांत सुकयतात. उपरांत सुकतकच सामान्य प्रतीची धवशा रंगाची सुंठ तयार जाता. कांय कडेन आलें खणून काडटात आनी तें शिजोवन सूंठ तयार करतात. बरे प्रतीची सूंठ धवी आसता. ही सुंठ करपाक आलें सुर्वेक उदकांत घालून ताची साल काडटात. उपरांत तें परतें एक दीस उदकांत भिजयतात. थंयचें काडून तें चुन्याच्या दाट उदकांत घालतात. उपरांत हें आलें वोतांत आठ-धा दीस सुकयतात. अशेतरेन बरे प्रतीची सूंठ तयार जाता. एकदम बरे प्रतीची सूंठ करचेखातीर चुन्याच्या उदकांत घाल्ले सुंठीक गंधकाची धुंवरी दितात आनी उपरांत वतांत सुकयतात.

**उपेगः** आलें आनी सूंठ हांचो उपेग पूर्विल्ल्या काळासावन वखद आनी मसाल्याखातीर करतात. आलें तिखट, उत्तेजक आनी वायूनाशक आसता. खांक चड आयल्यार सूंठ साखर खावपाक दितात. तकली दुखल्यार सूंठ तकलेक बांदतात. पेयां (जिंजर) तयार करपाक आल्याचो उपेग करतात. गोंयांत वखदांत आनी जेवणाखाणांत आल्याचो उपेग जाता. अपचन वा अजीर्ण जाल्यार आल्याचो रोस पिवपाक दितात. सूंठ आनी साकर हांचो पिठो (सूंठी पिठो) देवाचो प्रसाद म्हूण वांटपाची चाल आसा.

**रोगः** दक्षिण भारतांत आल्याक 'पिथियम ॲफानिडरमेटम' आनी 'पिथियम मायारिओटिलम' ह्या चित्याखातीर 'कूज' हो रोग जाता. ह्या रोगाक लागून झाड हळडुवें पडटा आनी कुसता. उदकाचो गाळ निचरो जावपी सादे जमनींत हो रोग चड करून जायना. मध्यम काळे जमनीत उदक सांचल्यार रोगाचें प्रमाण वाडटा. रोगकारक चितो कुशिल्ल्या आल्याच्या बेण्यांत वा मुळांत आसता. हो रोग आळाबंदा हाडूंक पिकाची अदलाबदल करतात तशेंच रोवपाक निरोगी आल्याचे कोंब वापरप म्हत्वाचें आसता. लागवड करचे आदीं हो रोग लागचो न्हय म्हूण चरांत बोर्दो मिश्रणाचो फवारो मारतात.

- कों. वि. सं. मं.

## आल्कॉल (आल्कोहॉल):

Kuhl, Koh'l वा Kohol (म्हळयार सामको बारीक पिठो) ह्या अर्थाच्या अरबी शब्दावयल्यान 'आल्कोहॉल' (Alcohol) हो शब्द तयार जालो, अशें म्हण्टात. सौंदर्यप्रसाधनांत वापरतात त्या ॲंटिमनी सल्फाइडाच्या सामक्या बारीक पिठ्याखातीर तशेंच, हेर पदार्थांच्या सामक्या बारीक पिठ्याखातीर 'आल्कोहॉल' हो शब्द वापरताले. तेउपरांत ताचो 'अर्क' ह्या अर्थान वापर जावपाक लागलो. सोळाव्या शतमानाउपरांत 'आल्कोहॉल' हो शब्द 'वाइन स्पिरीट' खातीर वापरपाक सुरवात जाली.

**व्याख्याः** कार्बन, हायड्रोजन आनी ऑक्सिजन हांच्यापसून तयार जाल्ल्या कार्बनी संयुगाक 'आल्कोहॉल' अशें म्हण्टात. एक वा चड हायड्रोजन अणूंची सुवात, एक वा चड हायड्रॉक्सील (OH) गट घेवन तयार जाल्ले हायड्रोकार्बनांचे हायड्रॉक्सिल अनुजात (derivatives)

अशेंय आल्कोहॉलाचें वर्णन करतात. R-OH हें आल्कोहॉलचें सादारण सूत्र आसून हातूंत R हो आल्किल वा बदली (substituted) आल्किल गट जावन आसा. हो गट प्राथमिक, द्वितीयक, तृतीयक वा उक्ती सरपळी वा चक्रीय आसूं येता. तातूंत दोट्टी बंध, एक हॅलोजन अणू वा एक ॲरोमॅटिक वलय हाचो आस्पाव आसूं येता.

एकूच हायड्रॉक्सिल गट आशिल्ल्या आल्कोहॉलाक मोनोहायड्रिक, दोन आसल्यार डायहायड्रिक, तीन गट आसल्यार ट्रायहायड्रिक आनी चार वा चड आसल्यार पॉलिहायड्रिक आल्कोहॉलां अशें म्हण्टात. डायहायड्रिक आल्कोहॉलांक 'ग्लायकॉल्स' (glycols) अशेंय म्हण्टात.

**वर्गीकरणः** हायड्रोक्सिल गट आशिल्ल्या कार्बन अणूक कितले हायड्रोजन अणू लागिल्ले आसात तांचे प्रमाण आल्कोहॉलांचे प्राथमिक, द्वितीयक आनी तृतीयक अशें वर्गीकरण केलां. हायड्रोक्सिल गट आशिल्ल्या कार्बन अणूक जर दोन (मिथिल आल्कोहॉलाचे विशीं तीन) हायड्रोजन अणू लागिल्ले आसत जाल्यार त्या आल्कोहॉलाक 'प्राथमिक आल्कोहॉल' म्हण्टात; कार्बन अणूचेर एक हायड्रोजन अणू आसत जाल्यार त्या आल्कोहॉलाक 'द्वितीयक आल्कोहॉल' अशें म्हण्टात आनी जर एकूय हायड्रोजन अणू नासत जाल्यार त्या आल्कोहॉलाक 'तृतीयक आल्कोहॉल' अशें म्हण्टात.



**प्राथमिक** **द्वितीयक** **तृतीयक**

(R - बदली गट)

**नामकरणः** आल्कोहॉलांक नांव दिवपाच्यो तीन पध्दती आसात. १. आल्कोहॉलाकडे अनुरूप अशा हायड्रोकार्बनाच्या नांवांतल्या मूळ शब्दाक 'इल' हो प्रत्यय आनी आल्कोहॉल हो शब्द जोडून; देखीक- मिथिल आल्कोहॉल, एथिल आल्कोहॉल, n- डेकिल आल्कोहॉल, सेटिल आल्कोहॉल. २. मिथेनॉल नांवां: त्या हायड्रोजनाच्या नांवाक 'ऑल' प्रत्यय जोडून; देखीक- मिथेनापसून मिथेनॉल ३. IUPAC नांवां: International Union of Pure and Applied Chemistry हे संस्थेन थारायल्ल्या नेमांप्रमाण नांवां दिवपाची पध्दत.

ह्यो तीनूय नामकरण पध्दती फुडल्या पानार दिल्ल्या कोश्टकावेल्यान स्पश्ट जाता:

**भौतिक गुणधर्मः** आल्कोहॉलां हीं निवळ द्रव आसतात वा रंगहीन घन आसतात. चडशीं मोनोहायड्रोक्सी आल्कोहॉलां उदकापरस हलकीं आसून तीं सगळीं कार्बनी विद्रावकांत विरगळटात. नीच स्थानाचीं ॲलिफॅटिक आल्कोहॉलां हीं चलद्रव्यां आसात. सांद्रता (viscosity) रेणुभारावांगडा वाडत वता आनी ताका लागून $C_6$ ते $C_{11}$ ह्या गटांतल्या आल्कोहॉलांची सांद्रता वाडत वता. n- डोडेसिल आल्कोहॉल हो नॉर्मल प्राथमिक आल्कोहॉल माळेंतलो पयलो घटक. सायक्लोहेक्झेनॉल (cyclohexanol) हें घन जाल्यार बेंझिल आल्कोहॉल हें उदकापरस जड आशिल्लें द्रव. दोन आनी तीन हायड्रोक्झील गट आशिल्लीं आल्कोहॉलां श्यान (viscous) रंगहीन आनी गोड रुचीचीं द्रवां आसतात. उंचेलीं पॉलीहायड्रोक्सी आल्कोहॉलां हीं चडशीं स्फटिकमय घन आसतात.

कांय आल्कोहॉलांच्या भौतिक स्थिरांकांची वळेरी फुडल्या पानावयल्या कोश्टकांत दिल्या:

आल्कोहॉलांचे उकळ बिंदू रेणुभाराप्रमाण जितले आसूंक जाय ताचेपरस मात्शे चडूच आसतात. हायड्रोक्सिल (OH) गटांमदल्या हायड्रोजन बंधांक (bonding) लागून हें घडटा. एका अणूक सहसंयुजी बंधावरवीं धरून आनी दुसऱ्या अणूक फकत थीरविद्युत् शक्तीवरवीं धरुन हायड्रोजन अणू हो दोन electronegative अणूंमदल्या पुलाचें काम करता.



**रसायनीक गुणधर्मः** आल्कोहॉलांचे रसायनीक गुणधर्म ताच्या कार्यकारी गटाचेर म्हळ्यार हायड्रोक्सिल गटाप्रमाण थारायतात. आल्कोहॉलचे विक्रियेंत दोन बंधांपैकी एक बंध तुटता: -OH गटाची बदली करून C-OH बंध वा -H ची बदली करून O-H बंध. ह्यो विक्रिया -OH वा -H च्या बदल्यांत एक गट सुवात घेवन substitution पध्दतीन वा दोट्टी बंध तयार जावपी elimination पध्दतीन जातात. R चे रचनेच्या फरकाक लागून विक्रियाशीलतेंत (reactivity) भेद घडून येता.

**आल्कोहॉलांच्यो विक्रियाः** हायड्रोजन हलाइड्सवांगडा आल्कोहॉलांची सहज विक्रिया जावन आल्किल हलाइड्स आनी उदक तयार जाता. फॉस्फोरस ट्राय आनी पेंटाहलाईड्स तशेंच थायोरिल क्लोराइड्स हांच्यासारकीं विक्रियक द्रव्यां (reagents) वापरल्यार हें रुपांतरण बेगीन घडून येता.

$$R - OH + HX \rightarrow RX + H_2O$$

$$3R - OH + PCl_3 \rightarrow 3RCl + P(OH)_3$$

$$R - OH + SOCl_2 \rightarrow RCl + HCl + SO_2$$

**आल्कोहॉलाचीं लक्षणांः** पी-नायट्रोबेंझोएट्सची आनी ३,५-डायनायट्रोबेंझोएट्स ह्या घन इस्टर्सची निर्मिती जाता, हाचेवेल्यान आल्कोहॉलाचीं कांय लक्षणां स्पश्ट जातात. फाव तें बेंझोइल क्लोराईड, आल्कोहॉलावांगडा घेवन पीरीडीनच्या सांगातांत विक्रिया घडोवन हाडून हे इस्टर्स तयार करतात. ही पध्दत तीनूय प्रकारच्या आल्कोहॉलांक लागू जाता.

$$C_6H_5COCl + ROH \rightarrow C_6H_5COOR + HCl$$

आल्कोहॉलांच्या वेगवेगळ्या गुणधर्मांचो अभ्यास तांच्या वर्णपटविज्ञानाच्या (spectroscopic) नदरेन पृथक्करण करून करतात. हातूंत Infrared Spectrum, Nuclear Magnetic Spectrum (NMR) आनी Mass Spectrum ह्यो पध्दती आस्पावतात.

**आल्कोहॉलाचो सैमीक उगम** (Sources):सैमांत मोट्या प्रमाणांत, गरजेच्या तेलांनी आनी बाश्पनशील तेलां, चरबी, चरबीयुक्त तेलां तशेंच मेण हातूंत इस्टर्सच्या स्वरुपांत आल्कोहॉल मेळटा. गरजेच्या तेलांपसून मेळपी, म्हत्वाचीं आल्कोहॉलां अशीं:- पेपरमींट तेलापसून मेंथॉल, गंजणाच्या तेलापसून गेरानिऑल. इस्टर्सांपसून मेळपी आल्कोहॉलांत, चरबी आनी चरबीयुक्त तेलांत आसपी ग्लिसरॉल हें म्हत्वाचें आल्कोहॉल जावन आसा. जनावरांच्या पेशींत आनी वनस्पतींत अनुक्रमान कोलेस्टेरॉल आनी एर्गोस्टेरोल हीं मुखेल ॲलिसायक्लिक आल्कोहॉलां मेळटात.

**आल्कोहॉलाचो उगम (उत्पादन)**: मोनोहायड्रिक ॲलिफॅटिक आल्कोहॉलाचे तीन मुखेल उगम (sources) अशे: १. कार्बोहायड्रेट्स सारक्या सैमीक पदार्थांचें वितंजन (fermentation) २. सैमीक वायू वा पेट्रोलियम पसून मेळपी हायड्रोकार्बन्सचें रसायनीक संश्लेशण. २. सैमीक चरबी आनी तेलांची रसायनीक अभिक्रिया (treatment).

मिथिल आक्लोहॉल (मिथेनॉल, वूड आल्कोहॉल वा वूड सिपरीट- $CH_3OH$) हो आक्लोहॉल वर्गाचो सगळ्यांत सादो मुळावो प्रतिनिधी आसा आनी तो उदक, आल्कोहॉल वा इथर हांच्यावांगडा भरसूं शकता.

**वेगवेगळ्या तरेच्या आल्कोहॉलांचीं कांय नांवां:**

| क्रमांक | सूत्र | नांव | प्रकार |
|---|---|---|---|
| १ | $CH_3CH_2OH$ | एथिल आल्कोहॉल वा एथेनॉल | तृप्त (Saturated) ॲलिफॅटिक आल्कोहॉल |
| २ | $CH_2—CH_2—OH$ (पयल्या $CH_2$ चे सकयल $Cl$) | बिटा-क्लोरो एथिल आल्कोहॉल (एथिलीन क्लोरोहायड्रिन) | |
| ३ | $CH_2=CH—CH_2OH$ | ॲलील आल्कोहॉल | असंतृप्त ॲलिफॅटिक आल्कोहॉल |
| ४ | $CH_2—CH_2—CH_2—OH$ (पयल्या दोन $CH_2$ चे सकयल $OH$, $OH$) | ग्लिसरॉल | ट्रायहायड्रॉक्सी आल्कोहॉल |
| ५ |  | बेंझिल आल्कोहॉल | ॲरोमॅटिक आल्कोहॉल |
| ६ |  | सायक्लोहेक्झानॉल | ॲलिसायक्लिक आल्कोहॉल |
| ७ |  | गेरानिऑल | मोनोटर्पीन आल्कोहॉल |

## आल्कोहॉलांचें नामकरण: कांय उदाहरणां

| क्रमांक | सूत्र | सामान्य नांव | IUPAC नांव | मिथेनॉल नांव |
|---|---|---|---|---|
| १ | $CH_3CH_2CH_2CH_2OH$ | n-ब्युटिल आल्कोहॉल | १- ब्युटेनॉल<br>वा<br>ब्युटेन-१-ऑल | n- प्रोपिल मिथेनॉल |
| २ | $(H_3C)_2CHCH_2OH$ | आयसोब्युटिल आल्कोहॉल | २- मिथिल-१-प्रोपानॉल<br>वा<br>२- मिथिल प्रोपेन-१-ऑल | |
| ३ | $CH_3CH_2CHOHCH_3$ | सेक-ब्युटानॉल | २-ब्युटानॉल<br>वा<br>ब्युटेन-२-ऑल | |
| ४ | $CH_3(CH_2)_8CH_2OH$ | n-डेकिल आल्कोहॉल | १- डेकेनॉल<br>वा<br>डिकेन-१-ऑल | n- नॉनिल मिथेनॉल |
| ५ | $CH_3(CH_2)_{14}CH_2OH$ | सेटिल आल्कोहॉल | १- हेक्झाडेकानॉल<br>वा<br>हेक्झाडिकेन-१-ऑल | |
| ६ | $CH_3CH = CH\,CH_2OH$ | क्रोटिल आल्कोहॉल | २-ब्युटिन-१-ऑल | |

कांय आल्कोहॉलांच्या भौतिक स्थिरांकांची वळेरी अशीः

| क्रमांक | नांव | सूत्र | वितळबिंदू °से. | उकळ बिंदू °से. | घनता २०°से. | विद्राव्यता ग्रॅ/१०० (उदकाचे) |
|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | मिथिल | $CH_3OH$ | - ९७ | ६४.५ | ०.७९३ | ०० |
| २ | एथिल | $CH_3CH_2OH$ | - ११५ | ७८.३ | ०.७८९ | ०० |
| ३ | n- प्रोपिल | $CH_3CH_2CH_2OH$ | -१२६ | ९७ | ०.८०४ | ०० |
| ४ | n- ब्युटिल | $CH_3CH_2CH_2CH_2OH$ | - ९० | ११८ | ०.८१० | ७.९ |
| ५ | n- पेंटिल | $CH_3CH_2CH_2CH_2CH_2OH$ | - ७८.५ | १३८ | ०.८१७ | २.३ |
| ६ | n- हेक्झिल | $CH_3CH_2CH_2CH_2CH_2CH_2OH$ | - ५२ | १५६.५ | ०.८१९ | ०.६ |
| ७ | n- हेप्टिल | $CH_3(CH_2)_5CH_2OH$ | - ३४ | १७६ | ०.८२२ | ०.२ |
| ८ | n- ऑक्टिल | $CH_3(CH_2)_6CH_2OH$ | - १५ | १९५ | ०.८२५ | ०.०५ |
| ९ | n- डेसिल | $CH_3(CH_2)_8CH_2OH$ | ६ | २२८ | ०.८२९ | |
| १० | आयसोप्रोपिल | $CH_3CHOHCH_3$ | - ८६ | ८२.५ | ०.७८९ | ०० |
| ११ | आयसोब्युटिल | $(CH_3)_2CHCH_2OH$ | - १०८ | १०८ | ०.८०२ | १० |
| १२ | सेक-ब्युटिल | $CH_3CH_2CHOHCH_3$ | - ११४ | ९९.५ | ०.८०६ | १२.५ |
| १३ | टर-ब्युटिल | $(CH_3)_3COH$ | २५.५ | ८३ | ०.७८९ | ०० |
| १४ | आयसोपेंटिल | $(CH_3)_2CHCH_2CH_2OH$ | - ११७ | १३२ | ०.८१३ | २ |
| १५ | सायक्लोपेंटेनॉल | Cyclo — $C_5H_9OH$ | | १४० | ०.९४९ | |
| १६ | सायक्लोहेक्झानॉल | Cyclo — $C_6H_{11}OH$ | २४ | १६१.५ | ०.९६२ | |
| १७ | ॲलील | $CH_2 = CH\ CH_2OH$ | - १२९ | ९७ | ०.८५५ | ०० |
| १८ | क्रोटिल | $CH_3CH = CH\ CH_2OH$ | | ११८ | ०.८५३ | १६.६ |
| १९ | बेंझिल | $C_6H_5CH_2OH$ | -१५ | २०५ | १.०४६ | ४ |

हें रंगहीन, नितळ द्रव आसा. ताका एके वेगळेच तरेचो वास येता तो तातूंत आशिल्ल्या अपद्रव्यां (impurities) खातीर. पूण हें आल्कोहॉल शुध्द आसल्यार लेगीत हो वास थोड्या प्रमाणांत येताच. ह्या आल्कोहॉलाची, वूड स्पिरीट ह्या नांवान एक इतिहासीक उत्पादन पध्दत आसा, ती लांकडाचें भंजक उर्ध्वपातन (destuctive distillation) करून करतात. आर्विल्ले उत्पादन पध्दतींत कार्बन मोनोक्साइडची हायड्रोजनवांगडा दाबाचेर आनी झींक ऑक्साइड आनी क्रोमिक अम्ल ह्या उत्प्रेरकांवांगडा विक्रिया घडोवन हाडून मिथिल आल्कोहॉल तयार करतात.

**उपेगः** गरजेच्या तेलांचे आल्कोहॉलिक विद्राव वा वासाचीं द्रव्यां आनी वखदां हातूंत वापरील्लीं रूचीचीं द्रव्यां हांच्या उत्पादनांत एथिल आल्कोहॉलाचो वापर करतात. कार्बनी संश्लेशण, सेल्युलॉइड आनी हेर प्लास्टिक, पूतिरोधक (antiseptic) आनी जंतूनाशक हांच्या उत्पादनांत आनी अकार्बनी द्रव्यांखातीर विद्रावक (solvent) म्हूण एथिल आल्कोहॉलाचो वापर करतात. ब्युटाडिएनच्या (butadiene) उत्पादनांत एथिल आल्कोहॉलाचो मोट्या प्रमाणांत वापर जाता. ब्युटाडिएनचें स्टीरीन वांगडा co-polymerisation जातकच कृत्रिम (synthetic) रबर तयार जाता. इंधन म्हणूनूय ताचो मोट्या प्रमाणांत उपेग जाता. निर्जल आल्कोहॉल आनी पेट्रोल हांचें मिश्रण मोटारींचें इंधन म्हूण अस्तंत्या राश्ट्रांत वापरतात. व्हिस्की, रम, बिअर, जिन, व्होडका आनी हेर आल्कोहॉलीक पेयांनी एथिल आल्कोहॉलाचो सोरो म्हूण वापर जाता.

**उंचेलीं, चरबीयुक्त आल्कोहॉलां**: ६ वा ताचेपरस चड कार्बन अणू आशिल्ल्या मोनोहायड्रिक ॲलिफॅटिक आल्कोहॉलांच्या वर्गाक 'उंचेलीं आल्कोहॉलां' (Higher Alcohols) अशें म्हण्टात. चरबी, तेल, मेण हांच्यासारक्या सैमीक पदार्थांपसून मेळपी आल्कोहॉलांक चरबीयुक्त (fatty) आल्कोहॉलां अशें म्हण्टात. चरबीयुक्त आल्कोहॉलां हीं चड करून सरळ सरपळी आशिल्लीं आनी सम (even) आंकड्यांचे कार्बन अणू आशिल्लीं प्राथमिक आल्कोहॉलां आसतात.

- डॉ. विजयेंद्र कामत

संदर्भः 1.Adams, R., Organic Reactions, Vol. 8, John Wiley & Sons, Inc., New York, 1954; 2. Bigelow, M. H., Chem., Eng. News, 1947; 3. Finar, I. L., Organic Chemistry, WLBS, Longman Group Ltd., 1975; 4. Kemp, W., Organic Spectroscopy, ELBS, 1985; 5. Kent, J. A., Riegels Handbook of Industrial Chemistry, Van Nostrand Reinhold Company, New York 1983; 6. Lange, Handbook of Chemistry, MCGraw-Hill Book Co., New York, 1939; 7. Morrison R. T. and Boyd, R. N., Organic Chemistry, Prentice-Hall of India Pvt. Ltd., New Delhi, 1971; 8. Rodd, E. H., Chemistry of Carbon Compounds, American Elsevier Publishing Co., New York; 9. Shreve, The Chemical Process Industries, McGraw-Hill Book Company, New York.

## आल्जेरिया:

आकाराचे नदरेन आफ्रिका खंडांतलें दुसरें व्हडलें राश्ट्र. क्षेत्रफळ २३,८१,७४३ चौ. किमी. अक्षवृत्तीय विस्तार १९° ते ३७° उत्तर, रेखावृत्तीय विस्तार ८° ३०' ते १२° २०' अस्तंत. देशाचे उत्तर दिकेक सुमार १,०४६ किमी. लांबायेची भूंयमध्यसागराची (mediteranean) दर्यादिग. उदेंतेक ट्यूनीशिया आनी लिबिया, अस्तंतेक मोरोक्को आनी दक्षिणेकडेन नायजर, माली, मॉरिटेनिया आनी स्पॅनिश सहारा हे देश.

**भूंयवर्णनः** आल्जेरियाचे भूंयेचे नदरेंतल्यान दोन वांटे जातात. उत्तरेवटेन ॲटलास दोंगराचो आनी दक्षिणेवटेन सहारा वाळवंटाचो. ॲटलास दोंगर दर्यादिगेक समांतर आसा. सहारा वाळवंटांत अहॅग्गर आनी टुरॅक वाठारांनी कितलेशेच निद्रीस्त ज्वालामुखी आसात.

चेलिफ न्हंय सोडल्यार हांगा वर्सभर व्हांवपी दुसऱ्यो न्हंयो नात. फकत पावसाच्या दिसांनी व्हांवपी कांय न्हंयो आसात. हातूंत सौमान, रुहमेल, मेबहॉ, हाब्रा आनी ताफ्ना ह्यो म्हत्वाच्यो.

**हवामानः** हांगाच्या दर्यादिग आशिल्ल्या उत्तर वाठारांत गिमांत तापमान २६.७° से. आनी शिंयाच्या दिसांनी १०° -१२° से. इतलें आसता. देशाच्या मदल्या वाठारांत गिमांत २६° से. ते २८ ° से. मेरेन वाडटा, जाल्यार शिंयाच्या तेंपार ४° - ६° से. इतलेमेरेन देंवता. उदेंत-अस्तंत दिकांनी पातळिल्ल्या ॲटलास दोंगराक लागून उत्तर वाठारांतलें हवामान हेर हवामानापरस मात्शें वेगळें आसा. ॲटलासाच्या दक्षिणेकडलो वाठार म्हळ्यार एकदम विचीत्र हवामानाचो. थंय दिसाचें तापमान चडांत चड ५७.७° से. इतलें आसलें तरी रेंवाट वाठारांचें तापमान ७६.६° से. मेरेन वाडटा. राती त्या मानान थंड आसतात. हवेंतले थंडसाणीकलागून गिमाच्या दिसांनी रातचो दंव पडटा. भूंयमध्यसागरावेल्या वाऱ्यांक लागून शिंयाच्या दिसांनी पावस पडटा. दर्यादिगेर पावस चड पडटा आनी दक्षिणेंवटेंतल्यान कमी जायत वता. दर्यावेळेवेल्या आल्जिअर्स आनी बोन ह्या शारांभितर ७६.२ सेंमी. परस चड आनी दक्षिणेवटेन १७.८ सेंमी पावसाची नोंद जाल्या. सहारा वाळवंटांत पावस चुकून पडटा. केन्नाय पडपी पावसाक लागून बरीच माती व्हांवन गेल्ल्यान एक नवोच प्रस्न हांगा उप्रासला. पावसाळ्यापयलीं धुल्लाच्या 'सिरोको' ह्या गरम वाऱ्यांक लागून वाळवंटांतली आनी हेर वाठारांतलीय गरमी वाडटा.

**वनस्पत आनी मोनजातः** हांगाची सैमीक वनस्पत आफ्रिका खंडांतले हेर वनस्पतीपरस वेगळी आनी युरोपांतले वनस्पतीक लागींची आसा. वनस्पत चडशी कमी उदकाचेर वाडपी आसा. बूचाचीं झाडां आनी पाचवेचार ओक सारके रूख विंगड विंगड उंचायेचेर आनी पावसाच्या वाठारांनी मेळटात. तेभायर ऑलिव्ह, अलेप्पो, पायन, सेडर, आरान, थूया, ज्यूनिपर ह्या सारके रुख आनी उंचल्या वाठारांनी अल्फाल्फा तण आसा. तळयांच्या वाठारांनीय बरीच वनस्पत वाडटा. वाळवंटानी कसलीच वनस्पत नासली तरी खाजराचीं झाडां जातात. हांगाचे हत्ती, वाग, आनी शिंव काबार जायत गेल्यात. वास्वेलां, कोलसुणीं, सोशे, कोले, माकड, धुकर, हरणां, तरस हीं जनावरां; स्नायप, प्लोव्हर, बकीं, गरुड, गिदां ह्या सारके पक्षी आनी युरोपीय जातीचें नुस्तें हांगा मेळटा. मोनजात तरेकवार आसली तरी चड ना.

**इतिहासः** आल्जेरियाचो इतिहास म्हळ्यार एकाफाटल्यान एक अश्या कार्थेजियन, रोमन, बायझंटायन, व्हँडॉल, अरब, तूर्क आनी फ्रेंचानी केल्ल्या आक्रमणांचो इतिहास. इ.स. पयलीं बाराव्या शेंकड्यांतल्या फिनीशियन सत्तेसावन हो इतिहास सुरू जाता. इ. स. पयलीं आठव्या शेंकड्यांत कार्थेजची सत्ता आयली जाकालागून प्यूनिक भाशा आनी संस्कृतायेचो परिणाम आल्जेरियन जिविताचेर जालो. इ. स. प. १४६ वर्सा रोमची सत्ता चालू जाली. तांणी रोमनांचें मनीसबळ वाडोवन आदिवासींकडेन लग्नां केलीं आनी हे भूंयेर ते रिगले. सुमार ४०० वर्सांच्या रोमन काळांत व्हड व्हड शारां, बरे रस्ते, शेतवड हांची हांगा उदरगत जाली. पूण पुराय आल्जेरियाचेर तांची सत्ता नाशिल्ली. दुसऱ्या शेंकड्याउपरांत व्हँडॉल आनी ताच्याफाटल्यान बरोच उणो काळ थिरावल्ल्या बायझंटायन राजवटी उपरांत सातव्या शेंकड्यांत अरबांचें आक्रमण जालें. तांच्या हिलाल आनी सालीम जातींनीं शक्त आनी हिंसेच्या नेटार इस्लाम धर्म आनी अरबी भाशेचो हांगा प्रसार केलो. अरबांच्या अल्मोराविद आनी आलमोहद हांची राजवट म्हत्वाची आशिल्ली, पूण फुडें आपल्याभितरल्या झगड्यांक लागून हे राजवटीची शक्त सोंपली. सोळाव्या शेंकड्यांत स्पेन, पोर्तुगाल आनी तुर्कस्थान हांच्याभितर राज्यां वाडोवपाची सर्त लागली. १५०९ आनी १५१० वर्सासावन ओरान आनी आल्जिअर्स स्पेन आनी पोर्तुगेजांच्या शेकातळा गेल्या उपरांत आल्जेरियनांनी तुर्कस्थानचो पालव घेतलो. आल्जेरिया तुर्कस्थानचे सत्तेखाला पावलें. तांकां तुर्कस्थानाक कर भरचे पडूं लागले; ताकालागून तुर्कस्थानच्या सुलतानान हांगाच्या मुखेल्यांक 'बेलीरबे' ही मानाची पदवी दिली. ह्याच काळार पेनान जुंवो उरिल्ले भूंयेक जोडलो आनी आयचें आल्जिअर्स बंदर तयार जालें. १८३० मेरेन हें बंदर




मुसलमानांचे शक्तिचें ठिकाण आशिल्लें. ह्या काळांत तुर्कस्थानाकडल्यान स्वतंत्र जावपाचे लोकांनी यत्न केले. हांगा आशिल्ले तुर्कस्थानचे सैनिक खरे शासक जाले आनी तांणी ह्या देशाक दर्यांत चोरयो मारयो करपी 'बर्बर' ह्या चांच्यांचें केंद्र केलें. ब्रिटीश, स्पॅनिश, फ्रेंच आनी हेर देशांच्या व्हड्यांचेर घुरयो घालून तांणी लूट मेळयली. ह्या त्रासांनी वाजेवन ब्रिटीश आनी स्पेन हांणी आल्जेरियाचेर घुरी घाली. पूण ती सफळ जाली ना. फ्रांसान १८३० वर्सा ३७ हजारांचे सैन्य हाडून आल्जेरियाक २१ देसांभितर हारायले. अहमदबे आनी अबूल कादिर हांच्या फुडारपणाखाल बरेच तेंप लडाय जाल्या उपरांत १९४८ वर्सा तांणी आल्जेरियाचेर पुरायपणान जैत मेळयलें. १८५० ते ७१ मेरेन कबायली लोकांनी आनी १८८१ ते १९०१ मेरेन ओरान वाठारांतल्या लोकांनी फ्रेंचाकडेन झूंज मांडलें. पूण ते फ्रेंचांमुखार तिगले नात. ह्या काळांत आल्जेरियाची उदरगत करपापासत बरेच यत्न जाले. पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत स्वतंत्रतायेची कल्पना जल्माक आयली आनी १९२० त अमीर खालदा हाणें स्वतंत्रतायेची घोशणा दिली. आल्जेरियन राश्ट्रवादाक मेस्साली हाज हाची कामगार संघटना, फेरहत अब्बास आनी फ्रेंच उदारमतवाद्यांफाटली लोकशक्त आनी उलेमांची संघटना हांचो पालव मेळ्ळो. १९२५ वर्सा मेस्साली हाज हाच्या फुडारपणाखाल राजकी पक्षाची थापणूक जाली. ह्या पक्षान विंगड विंगड नांवाच्यो विद्यार्थी आनी कामगार संघटना बांदल्यो. १९३६ वर्सा फेरहत अब्बास हाणें दुसऱ्या पक्षाची थापणूक केली. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत ब्रिटन आनी अमेरिकन सैनिकांचे हांगा तळ आशिल्ले. द गॉल हाणें आल्जिअर्स ही फ्रांसाची निर्वासीत राजधानी म्हूण घोशणा केली. म्हाझुजाउपरांत लोकांनी परत स्वतंत्रतायेची मागणी केली. १९४५ वर्सा जाल्ल्या उठावाचो पराभव जालो. १९४६ त दोनय राजकी पक्षांची एकी जावन तांणी राश्ट्रीय सभेखातीर जाल्ले वेचणूकेंत १५ तले ५ जागे जिखले. १९४७ वर्सा फ्रेंचांक आनी मुसलमानांक कायद्यान समान अधिकार मेळिल्ले तरी स्वतंत्रतायेखातीर झूज चालू आशिल्लें. १९५० त पोलिसांचे मदतीन पक्षांक चिड्डून उडयले. १९४७ वर्सा बेनबेलाच्या फुडारपणाखाला फ्रेंचांआड सशस्त्र उठाव करपाखातीर संघटना उबारली पूण १९५० वर्सा तिकाय चिड्डून उडयली.

ह्या काळांत बरेच फुडारी कायरो हांगा गेले आनी तांणी प्रतिसरकाराची घोशणा केली. देशांत तरणाट्यांनी राश्ट्रीय मुक्ती आघाडी पक्ष बांदलो. मेस्साली हाज सोडून सगळे जाण ह्या पक्षांत आयले. राश्ट्रीय मुक्ती आघाडीन गनिमी झूज मांडलें. १९५४ वर्सा आल्जेरियांत उठाव जालो पूण तो चिड्डून उडयलो. १९५७ त आल्जेरियाच्या पांच फुडाऱ्यांक भितर उडयले ताकालागून परत उठाव जाले. १९५८ वर्सा कायरो हांगा आल्जेरियन सरकाराची थापणूक जाली. १९६१ त स्वयंनिर्णयाचे गजालीचेर जनमत कौल जालो आनी स्वतंत्रतायेचे वटेन लोकांनी मतां दिलीं. तरीपूण फ्रेंच गुप्त संघटनांकडल्यान घातपाती घडणूको चालू आशिल्ल्यो. हे स्वातंत्र्यलडायेंत एका कुटुंबातल्या एकातरी मनशाक एकतर मरण आयलें वा कादयेंत पडून अत्याचारांक तोंड दिवचें पडलें. निमाणें फ्रेंच सरकार आनी राश्ट्रीय फुडारी हांचेमजगतीं १९६२ च्या जुलय म्हयन्यांत कबलात जावन आल्जेरिया स्वतंत्र जालो. सप्टेंबर १९६२ त राश्ट्रीय सभेन फेरहत अब्बास हाका अध्यक्ष आनी बेनबेला हाका प्रधानमंत्री केलो. १९ जून १९६५ दिसा लश्करी क्रांती जावन बेनबेलाचे सरकार सकयल पडलें आनी क्रांतीकारी मंडळान पयलींचो उपराश्ट्राध्यक्ष आनी राखणेमंत्री बोमोदीनी हाका प्रधानमंत्री केलो, उपरांत तो अध्यक्ष जालो. १९७६ त संविधान तयार जालें तें फुडें १९७७ आनी १९७९ वर्सा बदलून सारकें केलें. १९७९ त चादली बेंजेदिद सत्तेर आयलो.

**राज्यवेवस्थाः** राश्ट्रीय विधीमंडळ केंद्रांतल्यान देशाचो कारभार चलयता. हातूंत वेंचून येवपी २६१ प्रतिनिधी पांच वर्सांखातीर आसतात.

विधीमंडळाची पयली वेंचणूक १९७७ वर्सा जाली.

दर वर्सा विधीमंडळ दोन फावट मेळटा. विधीमंडळाच्या बसकांक बिलां आनी हेर प्रशासनाविशीं‌च्या गजालींचेर चर्चा जाता. राष्ट्रीय आघाडी हो हांगाचो एकूच कायदेशीर पक्ष. तेभायर आठ बेकायदेशीर पक्ष आसात. राष्ट्रीय मुक्ती आघाडीचो सरचिटणीस तोच हांगाचो राश्ट्रपती जाता.

राज्यकारभाराचे बरे वेवस्थेखातीर देशाचे ३१ वांटे केल्यात; हांकां 'विलायेत' अशें म्हण्टात. हांचेर प्रशासन चलयतल्या राज्यपालांची निवड राश्ट्रपती करता. तेभायर १६० पोटविभाग आनी ६९१ कम्यून्स आसात. पोटविभागाचे प्रशासन उपराज्यपाल करता. कम्यून खातीर दर चार वर्सांनी वेंचणूको जातात.

**अर्थीक स्थिती**: आल्जेरियांत शेतकी पिकावळ आनी पशुपालन हांकां म्हत्व आसा. हो सगळ्यांत चड लोकांक काम दिवपी वेवसाय. शेतवेवसाय आनी पशुपालन उत्तर वाठारांत चड जाता. दर्या लागची सकयल आशिल्ली जमीन पिकावळीक बरी पडटा. न्हंयो नाशिल्ल्याकारणान उदकाक लागून शेत पिकावळीचेर बंधनां पडटात. मुखेल पिकां गंव, बार्ली हीं आसात. ते भायर ओट, मको, बटाट, तंबाखू, भाजी आनी ऑलिव्ह तेल हांचेय बरेंच उत्पन्न जाता. वाळवंटांत जावपी खाजराचें उत्पन्न म्हत्वाचें आसा.

आल्जेरिया खनिजसंपन्न आसा. टेल आनी टिंडूफ वाठारांनी फॉस्फरस नाशिल्लें लोखण, तेबेस हांगा फॉस्फेट आनी एजदेले, हासी, मसावद, इलंगासी, एनजेफ्त आनी मसीला ह्या जाग्यांचेर तेलाच्यो खणी आसात. सैमीक वायूचेंय प्रमाण बरेंच आसा. तेभायर शिशें, जस्त, तांबें, पारा (Mercury), रुपें, अँटिमनी, संगमरवर सारकीं खनिजां आसात. होगर ह्या वाठारांत हालींच युरेनियमचो सोद लागला. उदकांतली पिकावळ फकत उत्तर वाठारांत भूंयमध्यसागरांतल्यान मेळटा. पर्यटन उद्येगाक ह्या देशांत चडशे म्हत्व ना. तरीपूण १९७७ वर्सा आल्जेरियाक २४१,७०० पर्यटकानी भेट दिल्ली. चडशे पर्यटक फ्रांस, अमेरिका, ब्रिटन, स्पेन, अस्तंत जर्मनी ह्या देशांतल्यान येतात.

अर्थीक स्थिती आयात-निर्यात वेवस्थेचेर आदारित आसा. हांगा मेळपी सैमीक मालाची निर्यात आनी तयार मालाची आयात जाता. चडसो वेपार फ्रांसाकडेन जाता. हेर युरोपीय देशांकडेन आनी अमेरिकेकडेनय वेपाराक लागून आल्जेरियाचे संबंध आसात. दिनार हें हांगाचें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारण**: आल्जेरियांत ४,०७४ किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आसात. तांतले ३१९ किमी. वीजेचेर चलतात. अस्तंतेक मोरोक्को आनी उदेंतेक ट्यूनीशिया हे दोनूय देश आल्जेरियाकडेन रेल्वे मार्गान जोडिल्ले आसात.

आल्जिअर्स, अन्नाबा, ओरान हीं मुखेल बंदरां. तेभायर बेजाया, आर्झ्यू, जिजेली ह्या सारकीं बंदरां म्हत्वाचीं आसात. ह्या बंदरांतल्यान आयात-निर्यात वेव्हार चलतात.

रस्त्यांची लांबाय ८२,०४० किमी. इतली आसा. तांतले १८,५०० किमी. मुखेल रस्ते आसात आनी १९,००० किमी. च्या रस्त्यांवेल्यान उणी येरादारी जाता. बस वाहतुकीचें राश्ट्रीयकरण जालां.

एअर आल्जेरी ही हांगाची विमान येरादारी सांबाळपी संस्था. ही देशाभितर आनी देशाभायले येरादारीची वेवस्था पळयता. आल्जिअर्स हांगा आशिल्लो दार एल बॅदा हो हांगाचो मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ. ओरान, अन्नाबा, कॉन्स्टन्टीन हेंय बरे विमानतळ. तेभायर देशांत १५० वयर ल्हान सान विमानतळ आसात.

टेलिफोन वेवस्था सादारण आसा. टेलिफोनसेवेंत आल्जेरियाची सुवात जगांत ६२ वी आसा. रेडिओ आनी दूरदर्शन हांच्यावेल्यो कार्यावळी अरबी, फ्रेंच आनी काबिलीया भाशेंतल्यान जातात. मुखेल दिसाळीं ४ आसात.

**लोक आनी समाजजीण**: १९८६ वर्सा आल्जेरियाची लोकसंख्या २,२५,६६,००० आशिल्ली. तातूंतले शारांनी रावपी लोक १,०९,४१,०००. दादल्यांची संख्या ४९.८% आसा. हांगाचे आदिवासी बर्बर आनी सेमेटिक वंशाचे आसात. अरब आनी अरबीकरण जाल्ले बर्बर हांची लोकसंख्या सगळ्यांत चड म्हळ्यार सुमार ८०% आसा. इस्लाम हो हांगाचो अधिकृत धर्म. चडशे मुसलमान सुन्नी पंथाचे आसात. तेभायर युरोपीय आनी ज्यू हांचीय संख्या हांगा बरीच आसा. चडशे युरोपीय फ्रांसाचे आसात.

इस्लाम धर्माचे लोक सगळे धर्मीक रितीरिवाज पाळटात. रमजान सारके उपास चडशे लोक करतात. बऱ्याच वाठारांनी जादू सारके प्रकार आजूय चलतात. मुसलमानांमदीं एका परस चड बायलो करपाची प्रथा चडशी ना, चडकरून शारांनी तर ती सामकीच उणी आसा.

चडशा शिल्पांचेर, घरांचेर आनी इतिहासीक वास्तूंचेर मूरीश आनी ऑटोमन वास्तूशिल्पाची भरसण आसा. राजवाडे, थडीं, किल्ले हातूंत बरे कलेचे नमुने सांपडटात. बूझीच्या हम्माडायटांचो राजवाडो ताचे खाशेले कलेक लागून नांवाजिल्लो आसा. पूर्विल्ल्या काळांतल्यो चिनी मातयेच्यो वस्तू अभ्यासाचे नदरेंतल्यान एक आकर्शण थारल्यात. हांचो संबंद ईजिप्तचे पोरने संस्कृतायेकडेन आसा अशें जाणकारांचें मत आसा. हांगाचे गालिचे सोबीत आसतात. संगीताच्या मळार नोवबा संगीत आनी नाच, काबिलाया गीतां लोकप्रिय आसात. हांगाच्या लोकसंगीताचो बऱ्याच युरोपीय संगीतकारांनी अभ्यास केला.

**शिक्षण**: आल्जेरियाचें राश्ट्रीय साक्षरता प्रमाण २६% आसा. जगांत हे गजालींत आल्जेरियाचो क्रमांक १०३ वो लागता. ६ ते १४ वर्सां पिरायेमेरेनचें आठ वर्सांचें शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसा. मुळावें शिक्षण स वर्सांचें आसा. उपरांत चार वर्सां माध्यमिक. मुळाव्या शाळांनी नोंद जाल्ल्या भुरग्यांची सरासरी ९० % आसा.

सप्टेंबर ते जुलय मेरेन शिक्षणीक वर्स आसता. मुळाव्या शाळांनी शिक्षण अरबी भाशेंतल्यान चलता. ताच्या उपरांतचें शिक्षण अरबी आनी फ्रेंच भाशेंतल्यान दितात. हेभायर वेवसाय आनी धंद्याचेंय प्रशिक्षण हांगा दितात. शेतकी आनी तंत्रीक शिक्षणाक चड म्हत्व आसा.

शिक्षणाचो प्रसार करपाची जापसालदारकी घेवंक मंत्रीमंडळाचीं तीन खातीं आसात- मुळावें आनी माध्यमिक, उच्च आनी वैज्ञानिक, पारंपारिक आनी धर्मीक. सरकारी खातीं शिक्षणाच्या मळार बरेंच काम करतात. शिक्षणाचेर जावपी खर्चाचें प्रमाण बरें आसा. राश्ट्रीय उत्पन्नातलो शिक्षणाचेर खर्च करपांत आल्जेरियाचो जगांत ३५ वो क्रमांक लागता.

१९७७ त मुळाव्या शाळांनी २८,९७,५०० भुरगीं शिकतालीं. दुसऱ्या पांवड्यावेल्या शाळांनी ७,४५,८३८ विद्यार्थी आनी उंचल्या पांवड्यार ६१,७६७ विद्यार्थी शिकताले.

आल्जेरिया, ओरान, अन्नाबा आनी कॉन्स्टन्टीन विश्वविद्यालयां उंचल्या पांवड्यावेल्या शिक्षणाची वेवस्था करतात. हांगाचे बरेचशे विद्यार्थी शिक्षण घेवपापासत फ्रांस, अमेरिका, ब्रिटन, अस्तंत जर्मनी, बॅल्जियम, कॅनडा, बल्गेरिया, चेकोस्लोवाकिया ह्या देशांनी आसात.

विज्ञान संशोधनाचेर आल्जेरिया बरोच खर्च करता. हातूं आल्जेरियाचो क्रमांक जगांत ५८ वो लागता. १९७२ वर्सा २४२ वैज्ञानिक हांगा संशोधन करताले.

**भाशा आनी साहित्य**: अरबी ही हांगाच्या लोकांची भास. हे भाशेच्यो बऱ्योच बोली आसात. खुबशे मुसलमान लोक फ्रेंच भाशाय वापरतात. फ्रेंच भाशेचो उपेग प्रशासनांत आनी शिकिल्ल्या लोकांमदीं जाता. ह्या देशांत जुल्झ रॉय सारको नाटककार आनी लेखक नांवाजिल्लो आसा. नामनेचो लेखक, विचारवंत आनी नोबेल इनाम मेळोवपी आल्बेअर काम्यू हो हांगाचोच. आल्जेरियाचो भूगोल आनी हानीबालाचेर नाटक बरोवपी अहमद तेवफिक मदानी आनी धर्मीक अरबी पंडीत अब्दूल हमीद वादिस हे म्हत्वाचे फुडारी. फ्रेंच भाशेचो वाडटो प्रभाव उणो करून अरबी भाशेंतल्यान साहित्यनिर्मणी करपाखातीर हांगाच्या साहित्यिकांकडल्यान

यत्न चालू आसात.

**म्हत्वाचीं थळां:** आल्जिअर्स ही राजधानी आनी कॉन्स्टनूटीन हीं भायल्या लोकांक आकर्शित करपी मुखेल शारां. तेभायर देशांतलीं हेर शारांय उद्येगधंद्याक लागून नांवाजिल्लीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**आल्डर, कूर्ट:** (जल्म: १० जुलय १९०२, कनिगशूट - जर्मनी; मरण: २ जून १९५८, कोलोन).

नामनेचो जर्मन रसायनशास्त्रज्ञ. ताचें भुरगेपण उद्येगीक वसाहतीच्या वाठारांत गेलें. पयलें म्हाझूज सोंपतकच ताका घर सोडून वचचें पडलें. ताणें रसायनशास्त्राचें शिकप बर्लीन आनी कील विद्यापीठांत केलें. १९२६ त, ताणें कील विद्यापीठाची डॉक्टरेट मेळयली. कील विद्यापीठांत प्राध्यापक म्हूण (१९३४-३६) आनी आय. जी. फार्बेन हाच्या लिव्हरकुशेन हांगाचे संशोधन प्रयोगशाळेंत (१९३६-४०) मुखेली म्हूण काम केलें. हे प्रयोगशाळेंत आसतनाच संश्लिश्ट (synthetic) रबराच्या संरचनेविशीं आनी प्राप्तीविशीं ताणें संशोधन केलें. कोलोन विद्यापीठाच्या रसायनशास्त्र विभागांत तो १९४० त प्राध्यापक आनी उपरांत विभागाचो मुखेल जालो.

कार्बनी रसायनशास्त्रांतल्या 'डाइन' (diene) ह्या म्हत्वाच्या वर्गाच्या संश्लेशणाविशींच्या (synthesis) संशोधनाखातीर ताका ताचो गुरू ओटो डील्स हाच्यावांगडा १९५० वर्सा रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो. मॅलेइक अम्ल (maleic acid) वा क्विनोनां (quinones) हातूंत ब्युटाडाइनांसारकीं दोन एकांतरित द्विबंध (alternate double bonds) आशिल्ल्या संयुगांचो आस्पाव करप ही डाइन संश्लेशणातली गरजेची विक्रिया आसा. डील्स आनी आल्डर हांणी डाइन आनी क्विनोन हांच्या विक्रियेविशींचो एक निबंद १९२८ त उजवाडायलो. तांणी हे विक्रियेचें स्वरूप प्रयोगावरवीं पयलेच फावट सिध्द केलें आनी बऱ्याच वलयी (cyclic) संयुगांच्या संश्लेशणाखातीर हे विक्रियेचो वापर करून दाखयलो. कापराचो रेणू, प्लास्टिक, कँथॅरीडीन, अर्गोस्टेरोल आनी व्हिटामिन-डी ह्या पदार्थांचें संश्लेशण करपाखातीर हे विक्रियेचो खूब वापर जालो. क्रियाशील रसायनीक कारकाबगर ही विक्रिया जावं येता, हें तिचें खाशेलेपण.

१९३८ त, ताका जर्मन केमिस्ट संस्थेकडल्यान एमिल फिशर यादस्तीक पदक मेळ्ळें. त्याच वर्सा हॉल हांगाच्या (German Academy of Natural Philosophers) हे संस्थेचो तो वांगडी जालो. १९५० त, कोलोन विद्यापीठाच्या वैजकी विभागान ताचो भोवमान करून ताका एम्. डी. पदवी दिली. १९५४ त सालामान्का विद्यापीठान ताका डॉक्टरेट दिली.

- कों. वि. सं. मं.

**आल्फव्हेन, हान्नेस:** (जल्म: ३० मे १९०८, नॉरकेपिंग-स्वीडन).

नामनेचो स्वीडिश शास्त्रज्ञ. ताचें शिकप उप्साला शारांत जालें. स्टॉकहोम हांगाच्या 'रॉयल इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजी' च्या इलेक्ट्रॉनिकी विभागांत तो १९४० वर्सा सावन काम करता. हे संस्थेंतल्या आयनद्रायू भौतिकी (Plasma Physics) विभागाचो तो मुखेल आसा. १९७०-७१ वर्सा ताणें कॅलिफोर्निया विद्यापीठ, सॅन दिएगो हांगा संशोधन आनी शिकोवप केलें.

ताणें भूभौतिकीय आनी खगोलीय भौतिकी हांचे मदले प्रस्न सोडोवपाखातीर 'आयनद्रायू भौतिकी' आनी 'चुंबकीय द्रवगतिकी' (Magneto-hydrodynamics) ह्या विशयांत म्हत्वाचें कार्य केलां. ताणें केल्ल्या ह्या संशोधनाचो खगोलीय भौतिकशास्त्रांत खूब उपेग जालो. १९४२ वर्सा सौर दागांविशीं (Sunspots) अभ्यास करतना ताणें द्रवचुंबकीय तरंगांचो सोद लायलो. ह्या तरंगांक 'आल्फव्हेन तरंग' म्हण्टात. भुचुंबकत्वाविशीं (geomagnetism) कांय प्रस्न सोडोवपाक ह्या तरंगांचे संकल्पनेचो उपेग जाता. आयनद्रायूंत आशिल्ल्या निश्क्रिय चुंबकीय वळींखातीर आयनद्रायूक घटसाण मेळटा ही म्हत्वाची संकल्पना ताणें मांडली. ही संकल्पना चुंबकांबर (Magnetosphere) नखेत्रांचें वातावरण आनी आंतरतारकीय द्रव्य हातूंतल्या कार्याचें स्पश्टीकरण करपाक उपेगी पडटा. १९३९ वर्सा ताणें चुंबकीय वादळां (Magnetic Storms) आनी वीज उजवाड (Aurora Polaris) हेविशीं एक सिध्दांत मांडलो. उश्मीय अणुकेंद्रीय ऊर्जेचे निर्मणेंत कितलेशेच दशलक्ष अंश तापमान आशिल्लो अतिउश्ण आयनद्रायू, उपकरणाच्या वण्टीपसून पयस दवरपाक चुंबकीय क्षेत्रां वापरचीं पडटात. देखून, आयनद्रायूंत अस्थिरताय तयार जाता. हाचें स्पश्टीकरण करूंक आल्फव्हेन हाणें मांडिल्ल्या चुंबकीय द्रवगतिकीविशींच्या तत्त्वाचो उपेग जालो.

१९७० वर्सा ताका ताच्या चुंबकीय द्रवगतिकीच्या म्हत्वाच्या वावराविशीं आनी आयनद्रायू भौतिकींतल्या खासा अनुप्रयोगाखातीर ल्वी यूजीन नील हाचे वांगडा नोबेल इनाम वांटून मेळ्ळें. खूबशा स्वीडिश सरकारी समितींनी आनी शिक्षणीक संस्थांनी उंचेल्या पदाचेर ताणें काम केलां. लंडन हांगाच्या रॅयल अॅस्ट्रॉनॉमिकल सोसायटीचो तो फेलो (अधिछात्र) आसा. १९६७ त वैश्विक विद्युत्‌गतिकी विशयांतल्या म्हत्वाच्या कार्याखातीर ताका सोसायटीच्या भांगरापदकाचो भौमान मेळ्ळा. Cosmical Electrodynamics (१९५०) ह्या ताच्या पुस्तकांत ताचे संशोधनात्मक लेख उजवाडाक आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**आल्बुकॅर्क, जोसेफ:** (जल्म: १८९६; मरण: १९५०).

किरिस्तांव धर्मफुडारी. डापाड्डा वाठारांतलो तो मुळावो मिशनरी आशिल्लो. १९३९ वर्सा थापणूक जाल्ले पिलार संस्थेचो तो संस्थापक. कांय काळ तो खानवेल (Khanwel) मिशनाचो अधिकारी आशिल्लो. उपरांत ताणें अंबरनाथ मिशन सुरू केलें. थंयचे फातिमा माध्यमिक शाळेचे उदरगतीखातीर जायतो वावर केला. १९६२ वर्सा हे संस्थेचो 'सुपीरियर जनरल' म्हूण ताका वेंचून काडलो. हे संस्थेंत ताणें १९६९ वर्सा मेरेन वावर केला.

- कों. वि. सं. मं.

**आल्बेनिया:** (रिपब्लिक पॉप्युलोरे सोशलिस्टे इ श्विपरीझे). यूरोप खंडांतलो बाल्कन द्वीपकल्पाचे अस्तंतेवटेंतलो आनी एड्रिॲटिक दर्याचे उदेंत देगेवयलो देश. विस्तार ३९° ३८′ ते ४२° ४१′ उत्तर आनी १९° १६′ ते २१° ४३′ उदेंत. क्षेत्रफळ २८,७५० चौ. किमी. लोकसंख्या ३०,२०,००० (१९८६). हाचे उदेंतेक आनी उत्तरेक युगोस्लाव्हिया, दक्षिणेक ग्रीस आनी अस्तंतेक एड्रिॲटिक दर्या आसा. राजधानी तिराना.

**भूंयवर्णन, हवामान आनी वनस्पत:** आल्बेनियाचो चडसो वाठार दिनारिक आल्प्स पर्वताच्या शाखांनी भरला. उत्तरेखटेनचे पर्वत आनी पठारां १,५०० ते २,४०० मी. मेरेन उंचायेचीं आसात. हांगा सगळ्यांत ऊंच दोंगरातेगशी येझेरत्से (२,६४९ मी.) ही आसा. उदेंतेवटेनचे पर्वत दक्षिण-उत्तर पातळळयात आनी तातूंत धव्या आनी काळ्या द्रिन न्हंयांचीं देगणां आनी ऑक्रीद, प्रेस्पा हीं सरोवरां आसात. दर्यादिगेर रेंवेच्यो दोंगुल्ल्यो आसात आनी दर्याक मेळपी न्हंय बोयाना ही मळाचे उत्तरेखटेनच्यान व्हांवता. द्रिन, मात, श्कुंबी आनी व्हिजोझ ह्यो मुखेल न्हंयो.

दर्यादिगेच्या मळांच्या वाठारांत शिंयाळ्यांत सरासरी १०० सेंमी. पावस पडटा आनी गीम खर आसता. पर्वताच्या वाठारांत सुमार २५० सेंमी. पावस चडसो गिमांत पडटा. तापमान जानेवारींत १° से. ते सुमार ६° से. आसता; जाल्यार जुलय म्हयन्यांत तें सुमार २१° से. ते २६° से. आसता. अॅटलांटिक, भूंयमध्य आनी एड्रिॲटिक दर्यावयल्यान हांगा वादळां येतात. उत्तरेखटेनच्या पर्वतवाठारांत शिंयाळ्यांत बर्फ पडटा आनी गिमांत वादळां जावन पावस येता.

आल्बेनियांत ओक, एल्म, पायन आनी बर्च हे रुख भरपूर प्रमाणांत

### आल्बेनिया




सांपडटात. १,५०० ते १,८०० मी. मेरेन उंचायेच्या वाठारांत आल्पायन तणाचीं मळां आसात. हेर बरेच तरेचीं झोपां आनी फुलझाडां हांगा दिसतात. रानडुकरासारकी कांय थोडीच रानवटी मोनजात आसा. पूण जनावरांची संख्या उणी. रानांनी सुकण्यांचें प्रमाण मात बरेंच आसा.

**इतिहासः** हांगाचे मूळ लोक इंडो युरोपीयन आसात. इ. स. प. तिसऱ्या शतमानांत तांणी हांगा आपलें राज्य निर्मिलें. इ. स. प. १९७ त रोमन लोकांनी हांगा शेक गाजोवपाचो यत्न केलो, पूण तो फळादीक जालोना. चवथ्या शतमानाच्या लागसार हांगाच्या कांय वाठारांचेर बायझंटायन साम्राज्यान जैत मेळयलें. तांणीच हांगाच्या लोकांक 'आल्बेनियन' अशें नांव दिलें. उपरांत हांगा परकी सत्तेच्यो घुरयो पडत आशिल्ल्यो. १४४३ त लोकांक इस्कंदरबेग ऊर्फ जॉर्ज कॅस्ट्रिओटा हो फुडारी मेळ्ळो आनी ताणें १४६८ मेरेन आल्बेनियाचे परिस्थितींत बदल हाडलो. १४७९ त तुर्कांनी पुराय देश जिखून घेवन इस्लामचो प्रसार केलो. १८७८ उपरांत हांगाच्या लोकांमदीं जागृताय आयली आनी तांणी आपले मुळावे राश्ट्रीय हक्क सांबाळपाचे नदरेन एकवट घडयलो. १९१२ त आल्बेनियाक तुर्कस्थानच्या हातांतल्यान स्वतंत्रताय मेळ्ळी आनी १९२५ त हो देश प्रजासत्ताक म्हूण जाहीर जालो. १९२८ त, हांगा अहमद बेग झोग हाची राजेशाय आयली. १९३९ ते १९४४ ह्या काळखंडांत आल्बेनियाचेर इटली आनी जर्मनीचो शेक चल्लो. १९४६ त, जनरल एन्व्हर होजा हाच्या फुडारपणाखाल हांगा कम्युनिस्ट राजवट आयली. रशियाच्या पालवान राज्यकारभार चलूंक लागलो. रशियांत जाल्ल्या राजकी घडणुकांचो परिणाम जावन १९६१. त आल्बेनियान त्या देशालागचे संबंद तोडले आनी चिनी साम्यवादाची कड घेतली. फुडें १९७८ त चिनी फुडाऱ्यांकडेनय आशिल्ले संबंद आल्बेनियान तोडले. १९८५ त होजा हाका मरण आयलें आनी आल्बेनियान हेर राश्ट्रांकडेन राजनितीक संबंद जोडूंक सुरवात केली.

**अर्थीक स्थितीः** अर्थवेवस्थेचो मुखेल भार शेतवडीचेर आसा. गंव, मको, भाज्यो आनी फळांचें पीक हांगा बरेंच येता. नुस्तेमारीचो वेवसाय उदरगतीक पावला. खणीच्या वेवसायांतल्यान आनी कारखान्यांतल्या उत्पादनांतल्यान ह्या देशाक बरेंच परकी चलन मेळटा. आयात-निर्यात वेव्हार चडशे सगळ्या साम्यवादी राश्ट्रांवांगडा जातात. लेक हें हांगाचें अधिकृत चलन आसा.

**समाजीक स्थितीः** रस्ते, रेल्वे, हवाई आनी उदकां मार्गांवयल्यान बरेतरेन येरादारी जावपाची वेवस्था हांगा आसा. प्रसार माध्यमांचेर सरकाराचें नियंत्रण आसता. राजवेवस्था साम्यवादी विचारतत्त्वांचेर आदारिल्ली आसा. हांगाचे लोकसंख्येंतले ९७% लोक मूळ जमातीचे आसात. धर्माप्रमाण २०.५% मुसलमान, १८% नास्तिक, ५५.४% धर्म मानीनाशिल्ले जाल्यार उरिल्ले हेर धर्मांचे आसात.

आल्बेनियन साहित्य बरेंच नामनेक पावलां. नाइम फ्रेशेरी, फैक कोनित्झा, ग्येर्गी फिश्ता ह्या आल्बेनियन साहित्यिकांनी संवसारभर नामना मेळयल्या. ७ ते १५ वर्सांमेरेन ८ वर्सांचें मुळावें शिक्षण फुकट, सक्तीचें आनी एकसारकें आसा. साक्षरतेचो पांवडो बरोच ऊंच आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## आल्मैदा, आनास्तासिओ तोमाझीनु बारनाबे दः

(जल्मः १२ जुलय, १९२९ वेळ्ळी-साश्टी; मरणः २५ मे १९७८ वेळ्ळी).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव कायतानु आल्मैदा. ताणें बी. ए. मेरेन शिक्षण घेतलें, तशेंच पत्रकारितेचोय अभ्यास केलो. १९५० वर्सा मुंबय प्रजासमाजवादी पक्षान आयोजित केल्ले विद्यार्थी चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९५३ वर्साचे सुर्वेक तो 'नॅशनल काँग्रेस'- गोंय संघटनेची वांगडी जालो. १९५४ वर्सा तो हे संघटनेचे मुंबय शाखेचो चिटणीस जालो. उपरांत उरसेलीनु आल्मैदा आनी फेलीक्स आल्मैदा

हांचेवांगडा ताणें कलकत्याक 'नॅशनल काँग्रेस' - गोंय हे संघटनेची शाखा सुरू केली. उपरांत ताणें आपले नोकरेक सोडचीट दिवन तो गोंयां आयलो आनी राजकी वावर करूंक लागलो. १५ सप्टेंबर १९५४ दिसा ताका ताच्या वेळळीच्या घरांत धरलो. उपरांत प्रादेशिक लश्करी दंडाधिकाऱ्यामुखार ताची चवकशी जावन ताका आठ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. आग्वाद बंदखणींत आसतना तो निरक्षर कैद्यांखातीर वर्ग घेतालो.

सप्टेंबर १९५८ वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. गोंय सुटकेउपरांत तो समाजीक आनी राश्ट्रीय वावर करूंक लागलो. १९६२ वर्सा ताणें मडगांव शारांत पयली 'एम्प्लॉईज काँग्रेस' (Employees' Congress) सुरू केली. तशेंच ताणें हॉटेल कामगार संघटना, वेपारी कामगार संघटना आनी छापखानो कामगार संघटना सुरू केल्यो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## आल्मैदा, उरसेलीनु एम्. एन्. दः

(जल्मः २४ ऑक्टोबर १९२६, वेळ्ळी-साश्टी).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव इनासियु द आल्मैदा. ताणें बी. ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो वखदांच्या कारखान्यांत काम करतालो. १९५९ वर्सा ताणें 'एअर इंडिया' खातीर काम केलां.

'नॅशनल काँग्रेस' - गोंय संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९५९ वर्सा हे संस्थेचो सरचिटणीस जालो. 'नॅशनल काँग्रेस' - गोंय संघटनेची थापणूक करपाक तशेंच सत्याग्रहांत वांटो घेवंक तरनाट्यांक एकठांय हाडपाक ताणें खूब वावर केला. ताचो डॉ. राममनोहर लोहिया हाचेलागीं दाट संबंद आयलो आनी ताच्या विचारांचेर आनी वावराचेर लोहियाचो चड प्रभाव पडलो. १९५५-५७ ह्या काळांत तो भूंयगत वावर करतालो. मे १९५५ त ताणें आपली नोकरी सोडली. १९५६ वर्सा ताणें शिवाजी देसाय, जयसिंगराव राणे आनी आगुस्तस आल्वारीश हांच्या वांगडा 'गोंय सुटके सैन्याची' (Goa Liberation Army) थापणूक केली. पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरपाचें फर्मान काडिल्लें, पूण तो लिपून रावलो. देखून पोलिसांनी ताच्या घराचेर जप्ती हाडली आनी ताच्या घरच्यांक खूब त्रास दिलो. गोंय सुटके उपरांत भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. महाराष्ट्र सरकारान मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो आनी ताका खाशेलो कार्यकारी न्यायाधीश म्हूण नेमलो.

गोंय सुटके उपरांत ताणें मार्मागोवांत येरादारी आनी गोदी कामगार संघटनेची थापणूक केली. मुंबय राश्ट्रीय दर्यावर्दी संघटनेंत ताणें पालवी सरचिटणीस म्हूण काम केलां.

- कों. वि. सं. मं.

## आल्मैदा, मान्युएल फ्रांसिश्कु रोझारिओ दः

(जल्मः चिंचोणे- गोंय).

किरिस्तांव धर्म फुडारी. १८५० ते १८७० वर्सा तो माकाव वाठारांत मिशनरी म्हूण आशिल्लो. आवय-बापायन विकिल्ल्या भुरग्यांक ताणें किरिस्तांव धर्माची दीक्षा दिल्ली. तांकां बरी देख लावन तो नोकरेक लायतालो. चीन देशांत रोगाची धाम आयली तेन्ना शेंकड्यांनी चिनी लोकांक ताणें हॉस्पिटलांत घाले आनी तांची जतनाय घेतली. चिनी लोक ताका गरिबांचो बापूय म्हूण वळखतात.

- कों. वि. सं. मं.

## आल्मैदा, मिंगेल द. एस्. जेः

(जल्मः १६०७, गोव्हेय-पोर्तुगाल; मरणः १७ सप्टेंबर १६८३, रायतूर-गोंय).

नामनेचो धर्मशास्त्री आनी भाशाशास्त्री. १२ सप्टेंबर १६२५ दिसा ताणें जेजुइत पंथाची दीक्षा घेतली. सुर्वेक तो गोंयांत, साश्टी वाठारांत धर्म उपदेशक म्हूण आयलो. उपरांत चिखलीचो पाद्र व्हिगार जालो आनी निमाणो गोंयचे सां पावल कॉलेजीचो रैतोर जालो. ताणें 'सेर्मोइश दुश सान्तुश इ द् तेम्पु क्वारेस्माल' (Sermoes dos Santos e De Tempo Quaresmal), 'सिंकु प्रातिकाश सोब्रि अश पालाव्र्राश एक्सुर्जेंस मारीया' (Cinco Praticas Sobre as Palavras Exurgens Maria) आनी 'वनवळ्यांचो मळो' (Onvalleancho Mollo -१६५९) अशे ग्रंथ बरयले. पांच खंडांनी आशिल्लो, 'वनवळ्यांचो मळो' कोंकणी गद्याचो एक अप्रुप नमुनो. पयल्या खंडांत ५५७ पानां आसात. तिसरो आनी पांचवो खंड पणजेचे सेन्ट्रल लायब्ररींत आनी लायब्ररी ऑफ द स्कूल ऑफ ओरियन्टल अॅन्ड आफ्रिकन स्टडीज, लंडन हांगा मेळटा. हो ग्रंथ म्हळयार किरिस्तांव धर्मग्रंथाचें विवरण. तातूंत जायते सेर्मांव आसात. ताच्या ग्रंथांत जायतीं पोर्तुगेज उतरां होलमतात. देखीक- सासेस्दोत, प्रोफेत.

'व्होकोबुलारियु द लिंग्व कानारीं अँ व्हेरसांव पुर्तुगेज' (Vacabulario da Lingua Canarim em Versam Portuguesa) हो शब्दकोश ताणें आनी पाद्री आंतोनियु साल्दान्य हाणें तयार केलो अशें म्हण्टात. रोम आनी लिश्बोअ हांगा आशिल्ली पोर्तुगेज लिपींतली कोंकणी उतरावळ 'व्हॉकाबुलारियु कानारीं काँ आल्फाबेतु पुर्तुगेज' (Vacabulario Canarim Com Alphabeto Portugues) आनी कोंकणी भाशेची उतरावळ 'व्हॉकाबुलारियु दा लिंग्व कानारीं' (Vacabulario da Lingua Canarim) ह्यो दोनूय उतरावळी आल्मैद आनी साल्दान्य हांणी बरयल्यो अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

## आल्मैदा, शशिकला (होडारकार, शशिकला मंगेश):

(जल्मः २३ जून १९३१ फोंडें).

गोंयची सुटके झुजारी. घोवाचें नांव *आनास्तासिओ आल्मैदा (*)*. तिणें बी. ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. ती नोकरी करताली. सिंधुताई देशपांडे हिचेकडल्यान स्फूर्त घेवन २५ नोव्हेंबर १९५४ दिसा पणजे जावपाआशिल्ल्या सत्याग्रहांत तिणें वांटो घेवपाचें थारायल्लें. पूण सिंधुताई मडगांव तिच्याच घरांत राविल्ल्यान पोलिसांची खर नदर तिच्या घराचेर आशिल्ली. देखून तिका सत्याग्रहांत वांटो घेवंक मेळ्ळो ना. उपरांत १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा तिणें विलासिनी प्रभु हिचे वांगडा हातांत राश्ट्रीय बावटो घेवन सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. तेन्ना पोलिसांनी तिका धरली आनी स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. मार्च १९५८ त तिची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १८ जून १९८६ ह्या दिसा गोंय सरकारान तिच्या सुटकेझुजांतल्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## आल्वारीस, आगुस्तसः

(जल्मः २ फेब्रुवारी १९२४, मुंबय).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव आगुस्तस जॉन व्हिंसेंत आल्वारीस. ताणें बी. एस्सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. सुटके चळवळीच्या काळांत तो 'गोंय सुटके सैन्य' (Goa Liberation Army) हे संघटनेचो संस्थापक वांगडी आशिल्लो. ताचेकडेन सुरींग हाताळपाचें कसब आशिल्ल्यान तो सांपळे तयार करुन दवरतालो. तशेंच दुस्मान येवपाचे वाटेर भुंयेपोंदा फोंड काडून दवरप, टायम बाँब लावप असलीं कामां तो करतालो. ताच्या मुखेलपणाखाल संघटनेच्या फुडल्या वावराचो बेत आंखप जातालो. सारमानस आनी दिवचल वाठारांत बार्जींनीं सुरींग लावप, कुर्टी जेटीचेर हल्लो करप आदी जायत्या भूंयगत वावरांनी ताणें वांटो घेतिल्लो. १९५८ वर्सा तो 'नॅशनल काँग्रेस' - गोंय संघटनेचे मुंबय शाखेचो चिटणीस आशिल्लो. १ ऑगस्ट १९५८ ह्या दिसा 'नॅशनल काँग्रेस' - गोंय संघटनेचे तात्पुरते (Ad-hoc) कमिटीचो तो वांगडी म्हूण वेंचून आयलो.

४ ऑक्टोबर १९५९ ह्या दिसा गोंयचे राजकी अधिवेशनाखातीर 'नॅशनल काँग्रेस' - गोंय संघटनेचो प्रतिनिधी म्हूण ताची वेंचणूक जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**आल्वारीस, आरमांदु (स्वामी आनिमानंद):** (जल्मः १९०३ बेळगांव; मरणः १९८४).

किरिस्तांव धर्मफुडारी. ताणें राशोल सेमिनारींत शिक्षण घेतलें. बेळगांवच्या वाठारांत ताणें लिंगायतांमजगती धर्मप्रचार केलो. ताणें भारतीय मठवासी जीवनपध्दत आपणायली. ताणें देसूर हांगा पूर्विल्ल्या हिंदू देवळांच्या शैलीप्रमाण एक इगर्ज बांदली.

- कों. वि. सं. मं.

**आल्वारीस, जुजे आंतानिओ दु. रोझारिओ (आल्वारीस आंतानिओ):** (जल्मः १२ एप्रिल १९१८ चिंचोणें-साश्टी).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव पावलू मिनिनो ओनोरातु आल्वारीस. ताणें लिसेवाचें तिसरें वर्स मेरेन शिक्षण घेतलें.

१५ ऑगस्ट १९५४ दिसा तेरेखोलचो किल्लो पोर्तुगेज पोलिसांचे देखरेखीखाला आसतना सत्याग्रही ताचेर घुरी घालूंक गेले. अशा प्रसंगावेळार आंतानिओन आपल्या हाताखाल आशिल्ल्या पोलिसांक फाटीं सरूंक सांगलें आनी सत्याग्रही लोकांक भितर येवंक दिले. तशेंच तांकां भारताचो तिरंगी बावटो किल्ल्याचेर लावंक दिलो. हेखातीर रोखडोच ताका नोकरेवेल्यान काडून उडयलो. प्रादेशिक लश्करी दंडाधिकाऱ्यामुखार चौकशी जावन ताका साडेतीन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**आल्वारीस, पीटर:** (जल्मः ३१ मार्च १९०८, पर्रा-बारदेस; मरणः ६ मे १९७५).



गोयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव आगुस्तस जॉन व्हिंसेंत आल्वारीस. भारताचे सुटके झुजांत वांटो घेवचे पासत ताणें पोर्ट ट्रस्ट ऑफ इंडिया हांगाची नोकरी सोडली. फुडें १९४२ वर्सा 'भारत छोडो' चळवळींत ताणें वांटो घेतलो. देखून, दोन वर्सां ताका बंदखणीची ख्यास्त जाली. 'ग्रेट इंडियन पेनिनस्यूलर' (GIP). रेल्वे पंचायत आनी हेर भारतीय रेल्वेच्या संघटनांचो तो संस्थापक आशिल्लो. १९५६ वर्सा नागपूरांत भरिल्ल्या अधिवेशनांत 'अखिल भारतीय रेल कामगार महासंघ' (All India Railwaymen's Federation) हाचो सहाय्यक सरचिटणीस म्हूण ताची नेमणूक जाली; उपरांत तो अध्यक्ष जालो.

मुंबयसावन उजवाडाक येवपी 'जनता' ह्या समाजवादी सातोळ्यांत ताचें बरप उजवाडाक आयलां. ताचें चडशें बरप अर्थीक घडणुकांचेर आशिल्लें. १९४९ वर्सा, तो मुंबयचे विधानसभेंत पयलो ट्रेड युनियन फुडारी म्हूण वेंचून आयलो. फुडें तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेसींत' आयलो, आनी 'काँग्रेस सोशलिस्ट पार्टी' पंगडाचो वांगडी म्हूण वेंचून आयलो. १९५३ ते १९५५ मेरेन तो 'नॅशनल काँग्रेस'- गोंय संघटनेचो उपाध्यक्ष आशिल्लो. गोंय सत्याग्रह चळवळीच्या निमण्या काळांत, ताणें थापणूक केल्ल्या गोंय विमोचन सहाय्यक समितीक लागून भोवजन समाजाक जाग आयली. १५ ऑगस्ट १९५५, दिसा सत्याग्रहांत वांटो घेवंक ताणें सगळ्या भारतांतल्यान पांच हजार सत्याग्रही एकठांय केले. २६ जानेवारी १९५५ दिसा ताणें सत्याग्रही लोकांचो एक पंगड घेवन कॅसलरॉक वाठारांत सत्याग्रह केलो. हाका लागून पोर्तुगेज पोलिसांनी ताचेर आरोपपत्र दवरलें आनी ताका अठरा वर्सां बंदखणीची खर ख्यास्त दिली.

तो खांपो समाजवादी आशिल्लो. ताणें संयुक्त महाराष्ट्र चळवळींत वांटो घेतलो तेन्ना ताका परतो धरलो. गोंय सुटके उपरांत १९६३ वर्सा जाल्ले पयले वेंचणुकेंत उत्तर गोंयचो खासदार म्हूण वेंचून आयलो. जयप्रकाश नारायण हाच्या 'जनता' चळवळीची स्फूर्त घेवन ताणें बिहारचे चळवळींत व्हड उमेदीन वांटो घेतलो. १९ जून १९८४ दिसा, गोंय सरकारान ताचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

- डॉ. विनायक मयेंकार

**आल्वारीस, सेलेस्तिन्यु (सी. आल्वारीस):** (जल्मः २१ ऑगस्ट १९२०, साळगांव-बारदेस).

नामनेचो गोंयकार तियात्रीश्त (नाट्य कलाकार). ताच्या बापायचें नांव कायतान आल्वारीस, जो खासा एक तियात्रीश्त आशिल्लो. साळगांव वाठारांतल्या सरकारी मुळावे शाळेंत ताणें पोर्तुगेज प्रिमैरु ग्राव मेरेन शिक्षण घेतलें. उपरांत थंयच्या एका हायस्कुलांत तेन्नाचे चवथी यत्तेमेरेन शिकप केलें. विनोदी कलाकाराची भूमिका करपाक फाव आशिल्ले गूण घरचे परंपरेक लागून ताच्या आंगांत भुरगेपणांतच आयिल्ले. पिरायेच्या सातव्या वर्सा (१९२७) ताच्या बापायन बरयल्ल्या 'म्हजी घरकान्न' ह्या तियात्रांत ताणें पयले खेप माचयेर पावल दवरलें. उपरांत ताचेकडल्यान स्फूर्त घेवन ताणें स्वताच तियात्र बरोवंक सुरवात केली.

आतांमेरेन ताणें सुमार ७८ तियात्र बरयल्यात. 'म्हजी व्हनी', 'चोर वो तियात्रीश्त?', 'आतांच्यो सुनो', 'मावोडेचें सूट', 'वजें' हे ताणें भुरगेपणांत बरयल्ले तियात्र भारतांत तशेंच भारताभायर गाजल्यात.

जोडगीत (duet) हो गीताचो एक प्रकार सी. आल्वारीसाक लागूनच लोकप्रिय जाला अशें म्हणूं येता. ताणें मिस मोहना, ऑफेलिया, आंतोनेत, फिलोमेन, बॅटी हांचे वांगडा गायिल्लीं जोडगीतां बरींच गाजल्यांत.

मुंबयच्या सिने टायम्सान घेतिल्ले सर्तींत ताका सतत चार वर्सांमेरेन बऱ्या अभिनयाखातीर पयलें इनाम मेळ्ळां. राश्ट्रीय पांवड्याचेर भारत सरकारान घेतिल्ले १९६६ वर्साचे सर्तींत बऱ्या अभिनयाखातीर आदल्यो प्रधानमंत्री सर्गेस्त श्रीमती इंदिरा गांधी हिचेकडल्यान पुरस्कार मेळ्ळो. तेभायर हेर कितलींशींच इनामां ताणें जोडल्यांत.

ताणें बरोवन सादर केल्ल्या कांय तियात्रांचीं नांवां अशीं- 'केन्ना उदेतलो तो दीस', 'आवयचो शिराप', 'म्हजो सोपूत', 'जुरामेंत', 'गोंयचो मोग', 'मस्तेपण' तेभायर ताचे 'निर्मोण' आनी 'म्हजी घरकान्न' हे चित्रपट बरे गाजल्यात. 'भुयारांतलो मनीस' ह्या चित्रपटांत ताणें मुखेल भूमिका केल्या आनी चित्रपटाच्या मळार आपलें नांव दवरलां.

- कों. वि. सं. मं.

**आवाज:** कानाक आयकुपाक येवपी आविश्काराक आवाज वा ध्वनी अशें म्हण्टात. आवाजाची शास्त्रीय व्याख्या अशी- श्रवणेंद्रियांक ज्या उद्दीपनावरवीं संवेदना जावंक शकता तें उद्दीपन म्हळ्यार आवाज. हें उद्दीपन एकाद्र्या वायू, द्रव वा घन माध्यमांतल्या यामिकीय (mechanical) तरंगांच्या स्वरुपांत आसता. हे तरंग माध्यमाच्या स्थितिस्थापकतेक (elasticity) लागुनूच प्रस्थापित जावंक शकतात. देखून तांकां 'स्थितिस्थापकीय तरंग' वा 'ध्वनितरंग' अशें म्हण्टात. मनशाच्या श्रवणेंद्रियांक फकत सुमार १६ हर्ट्झ ते २०,००० हर्ट्झ ह्या मर्यादांमदल्या कंप्रतेच्या (frequency) तरंगांचोच बोध जावंक शकता. ह्या प्रकारच्या

तरंगांक 'श्राव्य ध्वनी' अशें म्हण्टात.

सैमांत जायते आवाज दिसून येतात. देखीक- पावसाळ्यांतलो गडगड, व्हांवत्या उदकाचो आवाज, झाडाच्या पानांची सळसळ आदी. प्राणी जायते आवाज करतात. देखीक- भुरग्याचें रडप, सुण्याचें भोंकप, शेवण्याचें चिंवचिंवप. जण एका मनशाचो तशेंच जनावराचो आवाज वेगवेगळो आसता. थोडे आवाज आयकुपाक कर्कश आनी त्रासदायक आसतात. पूण संगीताच्या सूरांचो आवाज कानार पडटकच मनाक आनंद भोगता.

आदिमानवाक स्वताच्या संरक्षणाखातीर तेचप्रमाण भक्ष्याचो सोद घेवपाखातीर, आयकूंक येवपी वेगवेगळ्या आवाजांवेल्यान फाव ते निश्कर्ष काडचे पडटाले. आवाज निर्माण करपी वेगवेगळ्या सादनांचो सोद लेगीत दिसपट्ट्या अणभवांतल्यान जाला आसतलो. देखीक- धोणूचे दोरयेच्या टणत्कारावेल्यान तंतुवाद्याची कल्पना आयल्या आसतली. फुडें कांय आवाज कानाक गोड लागतात हें पळोवन असल्या आवाजांचें संकलन आनी समायोजन करून तांचें संगीत तयार केलां आसतलें.

जायते आवाज मनशाक आयकुपाक येनात. पूण तेच आवाज बाकीच्या जनावरांक आयकुपाक येतात. आवाजाचो अभ्यास करतना भौतिकशास्त्रांत गणिताचो खूब वापर करचो पडटा. Acoustics (ग्रीक भाशेंत हाचो अर्थ आयकप) ह्या भौतिकशास्त्राचे शाखेंत आवाजाचो शास्त्रीय अभ्यास जाता. वीज, उजवाड, उश्णता हांच्याभशेनूच आवाज हें एके तरेचें ऊर्जेचें रुपांतर. म्हळ्यारुच आवाज ही एके तरेची ऊर्जा.

संगीतांतल्या स्वरांक भौतिकीच्यो कल्पना लावपाचें कार्य पायथॅगोरस ह्या ग्रीक शास्त्रज्ञान इ.स.प. सव्या शतमानांत केलें. इ. स. प. पयल्या शतमानांत जावन गेल्ल्या मार्कुस व्हिट्रूव्हिअस पोलिओ ह्या रोमन स्थापत्यशास्त्रज्ञाक आवाजाचें प्रसारण तरंगांवरवीं जाता हाची जाणविकाय आशिल्ली, अशें दिसता. पूण मध्ययुगांत ही कल्पना ना जावन आवाज म्हळ्यार अदृश्य कणांचो प्रवाह अशी कल्पना रुढ जाली. पी. गासँदी हाणें इ. स. १६३५ त तोफेचो जाळ दिसप आनी आवाज आयकूंक येवप, ह्या घडणुकांतलो काळखंड मेजून ताचेवेल्यान हवेंतल्या वेगाचें मोल काडलें. सतराव्या शतमानांत आवाज हो तरंगमय आसा हें गृहीत धरून आयझॅक न्यूटन हाणें हवेंतल्या आवाजाच्या वेगाचें एक समीकरण सोदून काडलें. अठराव्या शतमानांत पी. सी. लाप्लास हाणें ह्या समीकरणांत थोडी दुरुस्ती केली. १८७७ त, लॉर्ड रॅली हाणें ध्वनिशास्त्राचेर एक ग्रंथ (Theory of Sound) उजवाडायलो. आवाजाच्या आर्विल्ल्या अभ्यासाक हांगाच्यान सुरवात जाली अशें जाणकारांचें मत आसा. जर्मन शास्त्रज्ञ जी. एस्. ओहम आनी एच्. एल्. एफ्. फॉन हेल्महोल्ट्स हांणी १९ व्या शतमानांत ध्वनिशास्त्रांत, खास करून श्रवणक्रियेच्या संदर्भांत मोलादीक भर घाली.

**आवाजाचें प्रसारणः** (Propagation of Sound) एका जाग्यार आवाज केलो जाल्यार तो दुसऱ्या जाग्यार आयकुपाक येता, हाका आवाजाचें प्रसारण जावप अशें म्हण्टात. ऊर्जेच्या प्रसारणाखातीर साधनाची गरज आसता. आवाजाचें प्रसारण माध्यमाबगर जायना. निर्वातांत (vacuum) आवाजाचें प्रसारण जायना. माध्यम हें घन, द्रव, वा वायूरुप आसता. माध्यम हें सूक्ष्म कणांनी भरिल्लें आसता. जेन्ना माध्यमांत आवाज जाता तेन्ना माध्यमाचो कण आवाजाची ऊर्जा घेवन आपले माध्य-स्थिती (mean position) भोंवतणी कंपन (vibration) करता. हो कण आपल्याक तेंकून आशिल्ल्या दुसऱ्या कणाक ऊर्जा दिता आनी तो कण कंपन करपाक लागता. अशे तरेन एका फाटल्यान एक कण कंपन करपाक लागता आनी ह्या सगळ्या कणांच्या कंपनात्मक हालचालींक लागून एक तरंग (wave) तयार जाता. ह्या तरंगावांगडा आवाजाचें प्रसारण जाता. ह्या प्रसारणाविशीं एक गजाल मतींत दवरपाची ती म्हळ्यार माध्यमाचे कण तरंगावांगडा फुडें वचनात, ते फकत आपल्या मध्यस्थानाभोंवतणी कंपन करतात. पूण फकत आवाज तरंगावांगडा फुडें वता.

**आवाजाचो उगमः** मनीस जेन्ना उलयता तेन्ना ताच्या ताळ्यांत (vocal cord) कंपनात्मक हालचाल जाता आनी हीच हालचाल आवाजाचें कारण जाता. कसल्याय आवाजाचो उगम हो मूळांत कंपनात्मक हालचालीक लागून घडून येता. कसलीय वस्त जेन्ना कंपनात्मक हालचाल करता तेन्ना मोटो नाजाल्यार बारीक आवाज जाताच.

**आवाजाचो वेगः** एका बिंदूपसून दुसऱ्या बिंदूमेरेन आवाजाचें प्रसारण जावपाक थारावीक काळ लागता. एका सेकंदाक आवाज कितलें अंतर फुडें वता हो आवाजाचो वेग. खाशेल्या माध्यमांत आवाजाचो वेग एकसारको उरता. आवाजाचो उगम कसोय आसूं, तो मनशाचो आवाज आसूं ना जाल्यार गाडयेचो आवाज आसूं, एकाच तरेच्या माध्यमांत आवाजाचो वेग एकसारको उरता. आवाजाच्या प्रसारणाचो वेग हवेंत सुमार ३४० मी./से. आसता. आवाजाचो वेग घन माध्यमांत सगळ्यांत चड, ताच्या फाटोफाट द्रव माध्यमांत आनी वायू माध्यमांत सगळ्यांत कमी आसता. देखीक- आगगाडी स्टेशनापसून चड पयस आसता तेन्ना आमकां इंजिनाचो आवाज आयकुपाक येना. पूण आमी रुळाचेर कान लायलो जाल्यार तो आयकुपाक येता. हाचें कारण म्हळ्यार आमी जेन्ना स्टेशनाचेर उबे आसतात तेन्ना इंजिनाच्या आवाजाचें प्रसारण हवेंतसून (वायू माध्यमांतल्यान) जाल्लें आसता. पूण आगगाडयेचो रुळ हो घनरुप आशिल्ल्या कारणान तातूंत आवाजाचें प्रसारण बेगीन जाता आनी तेखातीर आमकां तो आवाज आयकुपाक येता.

आवाजाचो वेग तापमानाचेर आदारून आसता. माध्यमाचें तापमान जशें वाडटा तसो आवाजाचो वेग वाडटा. आवाजाचो वेग हवेंतल्या ओलसाणीचेर (moisture) आदारून आसता. हवेंत ओलसाण चड आसली जाल्यार आवाजाचो वेग वाडटा. आवाजाचो वेग उजवाडाच्या वेगापरस कमी. देखीक- पावसाच्या दिसांनी मळबांत जेन्ना वीज जोगलावता, तेन्ना आमकां जोगूल पयलीं दिश्टी पडटा आनी मागीर गडगडाचो आवाज आयकुपाक येता.

**आवाजाची तीव्रताः** (Intensity of Sound) सामान्य भाशेंत आमी आवाजाची मोटो नाजाल्यार बारीक अशी तुळा करतात. भौतिकशास्त्रांत हाका आवाजाची तीव्रता अशें म्हण्टात. आवाजाची तीव्रता माध्यमांतल्या कणांच्या कंपनांचेर आदारुन आसता. जर कणांचें मध्यस्थानापसून चड अंतराचेर कंपन जालें जाल्यार, आवाजाची तीव्रता चड आसता. आवाज जसो फुडें वता तसो माध्यमाचो कण कमी अंतराचेर कंपन करता. म्हणजेच आवाज उगमापसून जसोजसो पयस वता तशी ताची तीव्रता कमीकमी जायत वता.

**ध्वनी-कोटि** (Pitch of Sound): आवाज कोमल काय कणखर हें ध्वनी-कोटि दाखयता. ही ध्वनी-कोटि आवाजाचे कंप्रतेचेर (frequency) पातयेवन आसता. कण एका सेकंदाक कितल्या खेपे कंपन करता, हाका 'कंप्रता' अशें म्हण्टात. ताचें एकक (unit)- हर्ट्झ (hertz). आवाजाचें प्रसारण माध्यमाच्या कणांच्या हालचालींक लागून जाता. कंपनात्मक हालचाल ही नेमान जावपी (periodic) म्हळ्यार थारावीक वेळांत परत-परत घडून येवपी गती. आवाजाच्या तरंगावेल्या दरेका कणाची कंप्रता एकसारकी आशिल्ल्यान तीच आवाजाची कंप्रता थारता.

दोन वेगवेगळे ध्वनी-कोटि म्हळ्यार किदें हें एका उदाहरणावेल्यान स्पश्ट जाता. बायलांचो आवाज आनी दादल्यांचो आवाज हांची तुळा केली जाल्यार अशें दिसून येता की बायलांचो आवाज कोमल जाल्यार दादल्यांचो आवाज कणखर आसता. हाचें कारण म्हळ्यार बायलांच्या आवाजाची ध्वनी-कोटि मोटी म्हळ्यार तांच्या ताळ्याच्या कंपनात्मक हालचालीची कंप्रता चड आसता. तशेंच दादल्यांच्या आवाजाची ध्वनी-कोटि कमी म्हळ्यार तांच्या ताळ्याच्या कंपनात्मक हालचालीची कंप्रता कमी आसता. चड व्हडल्यान उलयत जाल्यार ध्वनी-कोटि (pitch) चड जाता अशें न्हय. हांगा आवाजाची तीव्रता मात चड जाता. तीव्रता ही ध्वनी-कोटिपरस सामकी वेगळी. तीव्रता आवाज मोटो काय बारीक हें सांगता, जाल्यार ध्वनी-कोटि ही आवाजाची कोमलता वा कणखरता

थारायता.

**आवाजाचें परावर्तन** (Reflection) **आनी वक्रीभवन** (Refraction): आवाजाचें एका माध्यमांतल्यान प्रसारण जातना ताच्याआड दुसरें माध्यम आयलें जाल्यार थोडो आवाज त्या माध्यमाच्या आरपार वता आनी थोडो आवाज त्या माध्यमापसून परावर्तित जाता. परावर्तन म्हळ्यार तो आवाज त्या माध्यमाचेर आपटून परतो येवप. परावर्तनाचें उदाहरण म्हळ्यार प्रतिध्वनी (echo). व्हड सालांत, दोन दोंगरांमदीं वा दोन वण्टींमदीं व्हडल्यान उलयत जाल्यार तो आवाज थोड्याच वेळांत परत आयकुपाक येता. हाका प्रतिध्वनी (आवाज घुमप) अशें म्हण्टात. व्हड सभाघर बांदतना आवाजाच्या परावर्तनाचो विचार करचो पडटा. आवाज माध्यमांतल्यान आरपार वतना मात्सो वांकडे दिकेन वता, ताका आवाजाचें 'वक्रीभवन' अशें म्हण्टात. आवाजाचें वक्रीभवन हें आवाजाच्या परावर्तनापरस कमी अणभवाक येता. आवाजाचें प्रसारण थंड हवेपरस उश्ण हवेंत चड वेगान जाता. उश्ण आनी थंड हवेचे थर आशिल्ले हवेंत जर आवाजाचें प्रसारण जालें जाल्यार आवाजाच्या वक्रीभवनाक लागून एकूच आवाज वेगवेगळे दिकेन आयकल्याचो भ्रम जाता.

**आवाजाचें प्रदूशण**: मनशाच्या कानांक थारावीक आवाज आयकुपाची क्षमता आसता. क्षमतेपरस चड आवाज आयकुचो पडलो जाल्यार कान इबाडपाची शक्यता आसता. व्हड शारांनी तरांतरांचे आवाज आयकुचे पडटात. बस, आगगाडयो, कारखान्यांची इंजिनां, लाउडस्पीकर, बॅण्ड हांचेपसून जावपी तरांतरांचे आवाज लोकांक नाका आसतना आयकुचे पडटात. ह्या सगळ्या नाका आशिल्ल्या आवाजांक लागून आवाजाचें प्रदूशण जाता. कांय जाणांच्या कानांचो इबाड जाता आनी ताका लागून तांकां आयकुपाचें आदार-यंत्र (hearing aid) लावन घेवचें पडटा.

- प्रा. राजेंद्र काणेकार

## आशिया खंड:

क्षेत्रफळान आनी लोकसंख्येन जगांतलो पयलो खंड. पृथ्वीच्या ११% वाठाराचेर आनी वट्ट भुंयेच्या ३३% वाठाराचेर पातळ्ळा. जुव्यांसयत क्षेत्रफळ ४,४६,००,८५० चौ. किमी. लोकसंख्या इ.स. २००० वर्सामेरेन ३,४०,००,००,००० चेर पावतली. विषुववृत्ताच्या एक अंश उत्तरेवटेन जंय आशियाचो मलेशिया वाठार येता, थंयसावन रशियाच्या केप चेल्यूस्किनमेरेन (७८° उत्तर) आशियाचो दक्षिण-उत्तर भुंयेचो सलग वाठार आनी उदेंत-अस्तंत वाठार २६° उदेंतसावन १७०° अस्तंत मेरेन आसा. आशियाचो मदलो वाठार म्हासागरासावन सुमार ३,२०० किमी. परस पयस आसा. सूर्य उदेवपा वटेनचो म्हूण ग्रीकांनी ह्या खंडाक 'आसू' हें नांव दिल्लें, तेंच मुखार आशिया जालें. हांगा जगांतलें सगळ्यांत ऊंच दोंगराचें तेमक (एव्हरेस्ट), सगळ्यांत चड खोलायेची भूंय (मृत दर्या- Dead Sea), सगळ्यांत चड तापमानाचें ठिकाण (जेकबाबाद), सगळ्यांत उण्या तापमानाचें ठिकाण (व्हर्कोयान्स्क), सगळ्यांत चड पावसाची नोंद जाल्लें ठिकाण (चेरापुंजी), सगळ्यांत उणो पावस पडपी ठिकाण, चडांत चड दाट लोक रावपी सुवाती (इंडोनेशिया, चीन, भारत) आनी सगळ्यांत उणे लोक रावपी सुवाती (वाळवंटां, सायबेरीया) अशीं खाशेलेपणां आसात. जगांतल्या मनशाची आनी धर्मांची उत्पत्ती आशिया खंडांत सगळ्यांत पयलीं जाली अशें मानतात. आशिया खंडाचे उत्तर दिकेक आर्क्टिक म्हासागर आनी दक्षिणेक हिंद म्हासागर आसा. अस्तंतेवटेनचो अरबी दर्या, तांबडो दर्या आनी सुएझ कालवो हांकांलागून आशिया आनी आफ्रिका वेगळे जाल्यात. उदेंतेवटेन कॅमचॅट्का जुंव्यांचो चोमो, कुरील, सकालीन जुंवे, जपान, रिवक्यू, कोरिया, फिलीपीन्स आनी इंडोनेशिया हांकांलागून पॅसिफिक म्हासागराचे ओखोट्स्क, जपान, उदेंत चीन, दक्षिण चीन आनी इंडोनेशियाचे दर्या वांटे मदल्यामदीं बंदिस्त जाल्यात.

ह्या खंडांत भारत, श्रीलंका, पाकिस्तान, बांगलादेश, ब्रह्मदेश, नेपाळ, भूतान, सिक्कीम, अफगाणिस्तान, इराण, इराक, कुवेत, सावदी अरेबिया, संयुक्त अरब अमीर राज्यां, कतार, बाहरीन, ओमान, दक्षिण येमेन, येमेन, जॉर्डन, सिरिया, इझ्राएल, लेबनान, तुर्कस्थान, रशियेचो कांय वाठार, मंगोलिया, चीन, तैवान, उत्तर आनी दक्षिण कोरिया, जपान, नावस, फिलीपीन्स, उत्तर आनी दक्षिण विएतनाम, लाओस, कंबोडिया (ख्मेर), थायलंड, मलेशिया, सिंगापूर, ब्रुनेइ, इंडोनेशिया आनी मालदीव हे देश आसात. ब्रिटीश सत्तेखाला आशिल्लो हाँगकाँग, पोर्तुगेज सत्तेखाला आशिल्लो माकाव, तिमोर जुव्यांचो वाठार आनी अरबस्तानांतले कांय अशासकीय वाठार हेय वाठार येतात. ईजिप्तचो कांय वाठार आशियांत आसा, जाल्यार कांय जाणांच्या मतान सायप्रस जुंवोय आशियांतूच येता.

**भूंयवर्णन**: आशिया खंडाची रचणूक सामकी घुस्पागोंदळाची आसा. आशिया आनी आफ्रिका खंड पयलीं एकठांय आशिल्ले. तुर्कस्थान ते जपानमेरेन पाविल्ल्या दोंगरांमदल्यान टेथिस हो व्हड दर्या आशिल्लो. धर्तरेचेर जावपी कितल्याशाच गजालींच्या व्हड परिणामाक लागून आफ्रिका आनी आशिया एकामेकांपसून पयसावले. तुर्कस्थानासावन उदेंतेकडेन वचपी दोंगरांमदीं कितलेशेच उंचले वाठार तयार जाले. तुर्कस्थानाचे उत्तर दिकेक पाँटस आनी दक्षिण दिकेक टॉरस दोंगर आसात आनी तांच्यामदीं आनातोलियाचे उंचले वाठार आसात. इराण-अफगाणिस्तान हांगाच्या उंचल्या वाठारांक एलबर्झ, खुरासान, ह्या उत्तर दिकेंतल्यान येवपी आनी दक्षिणेवटेंतल्या झाग्रॉस, माकारान ह्या दोंगरांनी मदीं बंदिस्त केल्यात. अफगाणिस्तानचे उदेंतेक जाका जगाचें पाखें म्हण्टात तो पामीरचो उंचलो वाठार आसा. हांगा सगळ्या दिकांनी व्हड व्हड दोंगर पातळ्ळ्यात. हिंदूकुश, सुलेमान, हिमालय, काराकोरम, कुनलुन, आस्तिन ता, तिएनशान, ट्रान्सआलाय, हिस्सार ह्या सारके दोंगर मुखेल आसात. हिमालय आनी कुनलुन हांच्यामदीं तिबेटचे लांबरुंद दोंगरांभोंवतीं दिसपी पठार आसात. कुनलुन आनी तिएनशान हांच्यामदीं ताक्ला माकान हें वाळवंटी पठार आसा. तिएनशानचे इशान्येवटेन बरेचशे दोंगर सामके बेरिंग दर्यामेरेन पावल्यात. हिमालयाचे फांटे इंडोनेशियामेरेन पावल्यात. इशान्य भारतांतल्यो दोंगुल्ल्यो (गारो, खासी, जैंतिया) तशेंच ब्रह्मदेश, अंदमान-निकोबार आनी इंडोनेशियांतल्यो दोंगुल्ल्यो आनी दोंगर हे मूळ हिमालयाचेच कुडके जावन आसात. कुनलुनचे फांटे चीनांत गेल्यात. तांकां थंय चिनलिंग म्हण्टात. आस्तिन ताच्या फांट्याक नानशान आनी मंगोलियांतल्या फांट्याक शिंगान दोंगर म्हूण वळखतात. चीनांतले यूनान, सेचवान आनी मंगोलियांतले गोबी वाळवंट हें पठारांनी आनी दोंगरांनी भरिल्लें आसा. हांगाची भूंय तरांतरांची आसा. भूंयकांप, ज्वालामुखी आनी धर्तरेच्या पोटांत जावपी घडणुकांक लागून दोंगर, न्हंयो, पठारां, दोंगुल्ल्यो, सकयले वाठार अशी वयर सकयल आनी बऱ्याच घुस्पागोंदळांतल्यान हांगाची भूंय तयार जाल्या. सादारणपणान सिंधू-गंगा न्हंयांमदलें मळ आनी भारतीय उपखंड, अरबी दोंगरीवाठार आनी इराकचें मळ, मध्य आशिया, आशियाभितरलो रशियन सकयल्लो वाठार (lowland) आनी पॅसिफिक दर्यादिगेवेले वाठार अशे भुंयेचे वांटे जांव येतात.

गंगा-सिंधू न्हंयांमदलें मळ हें जगांतलें एक व्हड पिकाळ आनी सपाट मळ म्हूण नामनेक पावलां. हिमालयाच्या सकयल्या वाठारांत व्हांवन आयिल्ल्या गाळापसून तें तयार जालां. बांगला देश, अस्तंत बंगाल, बिहार, उत्तरप्रदेश, पंजाब, राजस्थान आनी पाकिस्तानांतले पंजाब आनी सिंध हे वाठार ह्या मळांत येतात. गंगा आनी ब्रह्मपुत्रा एकामेकांक मेळिल्ल्यान आसामांतले ब्रह्मपुत्रा न्हंयच्या मळाचो वाठार ह्याच प्रकारांत येता. हिमालय हो ह्या वाठारांतलो दोंगर. ह्या दोंगरांतल्यान कितल्योशोच न्हंयो व्हांवतात. ह्या मळाच्या सकयल्या वाठारांत दक्षिणेवटेंतलो भारत येता. हांगाची भूंय मदल्या वाठारांत पठारांची आसा जाल्यार दर्यादिगांवेली भूंय सकयल आसा.

अरबी दोंगरी वाठार आनी इराकचें मळ अस्तंतेवटेन आसा. ह्या वाठारांक लागून आशियाचो संबंद आफ्रिका आनी युरोपाकडेन येता. ह्या वाठारांनी भूंयकांप बरेच जातात. मध्य आशियांत तिबेटचें पठार आसा.

हाची उंचाय ४,८७५ मी. आसा. रशियांतल्या सकयल्या वाठाराक लागून युरोप आनी आशिया ह्या दोन खंडांचो संबंद येता. ह्या संबंदाक लागून युरोप-आशिया हे दोनूय खंड एकठांय धरून ताका युरेशिया अशेंय म्हण्टात. पॅसिफिक दर्यादिगेवेल्या वाठारांनी उदेंत सायबेरीया सावन मलायामेरेनचो अशे तरांतरांचे वाठार आसात. हे भुंयेच्या प्रकारांवेल्यान एक गजाल स्पश्ट जाता ती म्हळ्यार हो पुराय खंड तरांतरांचे फातर आनी मातयेचो जावन आसा.

**हवामान:** आशियाचो मदलो भितरलो वाठार खंयच्याय म्हासागरासावन ३,२०० किमी. परस पयस आशिल्ल्यान, दर्यादिगांवेले वाठार आनी खंडाचो भितरलो वाठार हांच्याभितर हवामानाचो बरेच फरक आसता. हो खंड बरेच ऊंच सकयल आशिल्ल्या कारणान एकाच अक्षांशांत येवपी वाठारांच्या हवामानांत लेगीत बरोच फरक आसता. चडशी भूंय गिमाच्या दिसांनी तापता आनी हवेचो दाब उणो जाल्याकारणान थंय दर्यावेल्या चड दाबाच्या वाठारांतलें वारें येता आनी गिमाचो पावस पडटा; शिंयाच्या दिसांनी हवेंतले थंडसाणीक लागून भुंयेचे दिकेंतल्यान दर्यावटेन वारें व्हांवता अशें सादारणपणान आशियाच्या हवामानाविशीं सांगू येता.

उत्तरेकटेनच्या वाठारांनी हिम पडटा जाल्यार दक्षिणेवटेन दर्यांवेल्यान आयिल्ल्या वाऱ्यांक लागून पावस पडटा. भारत आनी आग्नेय आशियाचे दक्षिण वाठार आनी दक्षिणेवटेनच्या जुंव्यांचेर हवामान उश्ण आनी बरेच कडेन बाराय म्हयने पावसाचें आसता. दक्षिणेवटेन हवामान चडशें उश्ण, जाल्यार उत्तरेकटेन तें थंड जायत वता.

**वनस्पत:** विषुववृत्तीय वाठारांत ६० ते ८० मी. मेरेन वाडपी, सदांच पाचवेचार आसपी घट लांकडाचे रुख आसात. ते नीट वाडत वतात आनी पुराय ऊंच जाल्या जाग्यार तांकां तेंगशेकडे खांदयो येतात. ह्या वाठारांत तरांतरांची वनस्पत मेळटा. एकेच जातीचीं झाडां चडशीं पळोवंक मेळनात. ऑर्किड, नेचे, बेनुल्ली, लांब वाली हांची गर्दी आसता, पूण ॲमेझोन वा काँगो हांगाच्या रानांभशेन दाट रानां नासतात. रुखांची दाटी उणी आशिल्ल्यान सूर्याचो उजवाड जमनीमेरेन पावता आनी झोंपां बरींच वाडूंक पावतात. दर्यादिगांवेल्या वाठारांनी चिखलांतलें रान आनी उदकालागीं वाडपी वनस्पत दिश्टी पडटा. रेवेंच्या दर्यावेळांचेर सुरु, माड ह्या सारकीं झाडां बरीं वाडटात. २०० सेंमी. परस चड पावस पडपी वाठारांनी सदांच पाचवीचार आसपी रुंद पानांचीं पावसाचीं रानां आसात. १०० ते २०० सेंमी. पावस पडपी वाठारांनी पानां गळपी, रुंद अशा एका खाशेल्या प्रकारचीं रानां वाडटना दिसतात. शाल आनी साग हीं झाडां मदेराच्या लांकडाक उपकारतात. आंबो, चिच, काजू, पणस ह्या सारके फळां दिवपी रुख आशिया खंडांत बऱ्याच सुवातींनी आसात. उण्या पावसाच्या वाठारांत खैर, बाभळ, बेल, कवठां, बोर हांचीं झाडां चड प्रमाणांत वाडटात. रुख नाशिल्ले वाठार फकत पावसाळ्यांत पाचव्या तणान भरतात नाजाल्यार हरशीं हे वाठार सुके आनी झाडांपेडां विरयत आसतात. कांय तणांचे वाठार आफ्रिकेंतल्या सॅव्हानाभशेन आसता. ५० सेंमी. परस उण्या पावसाच्या वाठारांनी नीवलांच्या जातीचीं झाडां वाडटात. दर्यादिगांवेल्या कांय भितरल्या वाठारांनी सुपारी दिवपी माडयो दिसून येतात. दोंगरांच्या कांय वाठारांनी उंचायेचेर पायन, देवदार, चिनार, निलगीरी, ओक हे रुख आसात. पाकिस्तान, भारत, बांगलादेश, श्रीलंका, ब्रह्मदेश, इंडोनेशिया ह्या शेतांचेर आदारिल्ल्या देशांत मूळची रानां बरींच नश्ट जाल्लीं दिसतात. थंय कांय वाठारांनी कोंडे, बेत, तण हे सारकी वनस्त आसा.

चीन आनी जपान ह्या देशांतल्या हवामानाक लागून थंयचीं रानां चडशीं नश्ट जावन गेल्यांत. चीनांतल्या नानशान, चिनलींग ह्या आनी अस्तंतेकडल्या दोंगरांच्या वाठारांनी थोडीं भोव रानां तिगून उरल्यांत. ह्या वाठारांत पाचव्याचार, रुंद पानांचे आनी सूचिपर्णी Coniferous अशा तरेकवार रुखांची भरसण आसा. कोंडे, तेल आनी मेल (रोंगण) दिवपी झाडां सगळेवटेन आसात. जपानांतल्या दक्षिण वाठारांनी सूचिपर्णी, घट लांकडाचीं आनी पानां गळपी झाडां सगळ्याक दिसून येतात.

मांचूरियाच्या वाठारांत स्प्रूस, सिल्वर फर, रेड पायन, लार्च सारक्या अरुंद पानांच्या आनी ओक, ॲश, आल्डर, बीच ह्या सारक्या रुंद पानांच्या रुखांचीं रानां दोंगरी वाठारांनी आसात. सकयल्या वाठारांनी तण आसा. मांचूरियन पायन हें झाड वेपाराच्या नदरेंतल्यान म्हत्वाचें आसा. तूतीचीं झाडां हें चीन-जपानचें खाशेलपण.

तारीन वा अरबस्तानांतल्या रब-अल्-खली ह्या सारक्या उसू पडिल्ल्या वाठारांनी वनस्पत सामकीच उणी आसा. हेर वाळवंटांतल्या वाठारांनी दिसपी वनस्पत म्हळ्यार चड वाडनाशिल्लीं कांट्यांचीं झोंपां, तण आनी खाजूर. अस्तंतेकडल्यान भूंयमध्यसागराच्या हवामानांत पावसाच्या चड उण्या प्रमाणाचेर ऑलीव्ह, बदाम, अक्रोड, जर्दाळू, अंजीर, तूती, द्राक्षां हेसारकी खाशेली वनस्पत जाता. सायबेरीयाचो नैऋत्य वाठार, मंगोलियाचें पठार, मध्य मांचूरियाचो सकयलो वाठार हांगा स्टेप तण वाडिल्लें दिसता. हाचे दक्षिणेक वाळवंट जाल्यार उत्तर दिकेक पिकाळ तणांचीं मळां आसात. ताच्याय फुडें सामके उत्तर दिकेक अरुंद पानांचे रुख मेळटात.

सायबेरीयाच्या वाठारांत तर अरुंद पानांचीं रानां बरींच दिश्टी पडटात. उत्तर दिकेन व्हांवपी हांगाच्या न्हंयांची तोंडां बरोच काळ गोठून उरिल्ल्यान व्हड व्हड वाठार चिखलान भरतात. हाका लागून हांगाच्या रुखांचें लांकूड उण्या उपेगाचें आसा. ह्या रानांचे फांटे दक्षिणेवटेनच्या दोंगरी वाठारांनी पावल्यात. अरुंद पानांच्या झाडांचें रान उत्तरेकटेन उणें जायत वता. निमाणो, सामकोच उत्तर दिकेक टंड्रा वांठार आसा. हांगा अदींमदीं सामकेच उणे विलो रुख आनी हेर झोंपां दिसतात. हांगा शेळोय बरोच वाडटा. कांय वाठारांनी गिमाच्या दिसांनी बरींच फुलां फुलतात, पूण वर्साचो चड काळ बर्फाक लागून जमीन घट जावन उरता.

**मोनजात:** हिमालयाचे दक्षिणेवटेनचे आनी उत्तरेकटेनचे अशे आशियांतल्या प्राण्यांचे दोन प्रकार करुं येतात. दक्षिण भारत, श्रीलंका, थायलंड, लाओस, कंबोडिया, विएतनाम आनी मलाया, इंडोनेशिया, हांगाच्या रानांनी माकड बरेच सांपडटात. पूण आसाम, ब्रह्मदेश, आग्नेयेवटेनचो वाठार, ग्रेटरसुंदा ह्या जुंव्यांचेर गिबन, जाल्यार ओरांगउटान फकत सुमात्रा आनी बोर्नीओ हांगाच दिश्टी पडटात. शिंव फकत काठेवाडच्या रानांत आसात. वाग हिमालयासावन सुमात्रा, जावा आनी बालीमेरेन दिश्टी पडटात. बोर्नीओ आनी श्रीलंकेंत वाग नात. चित्तो आनी बिबटोवाग सुमात्रा सोडल्यार सगळेकडेन आसा. सिव्हेट आनी मुंगस हे सारकी मोनजात सगळेकडेन भरपूर आसा. रॅटल भारतांतल्या दोंगरी वाठारांनी आसा, अस्तंतेक तो इझ्राएलमेरेन दिश्टी पडटा. भारतांत कोले बरेच आसात. पट्यापट्यांचो तरस सुक्या वाठारांनी नदरेक पडटा. हीं दोन जनावरां उदेंतेवटेन दिसनात. गादोरेडो भारत आनी ब्रह्मदेश हांगाच्या दोंगरी रानांनी आसा. मलबार सोडल्यार भारतांत सगळेकडेन मेरवां आनी हरणां सांपडटात. हिमालयाच्या दक्षिण वाठारांत नीलगाय आनी चार शिंगां आशिल्लें हरणासारकें जनावर दिश्टी पडटा. काश्मीर, नेपाळ आनी सिक्कीम हांगा कस्तुरीमृग आसात. सांबरय बऱ्याच वाठारांनी आसा. रानदुकर सगळेकडेन जाल्यार एका शिंगाचो गेंडो फकत नेपाळ आनी आसाम हांगा आसा. दोन शिंगाचो गेंडो ब्रह्मदेशसावन सुमात्रा, बोर्नीओ मेरेन आसा. तेनासरीम, मलाया आनी सुमात्रा हांगा तापीर मेळटा. हत्ती आसाम, ब्रह्मदेश, कर्नाटक, श्रीलंका, सुमात्रा अशा बऱ्याच वाठारांनी आसात.

सुकण्यांभितर मोर भारतांत सगळ्याक आनी जावा देशांत सांपडटा. पारवे, कीर, कावळे, चिमणी, तित्तर, कोगूळ, मैना, किरकिरो, हॉर्नबिल, गरुड, घोण, ससाणो, गिदां, मेस्त, तांबट ह्या सारके पक्षीय भारताच्या वाठारांनी चड मेळटात. भारत आनी सुलावेसी हांगा रेलर बरेच आसात. ड्रॉंगो, फ्लायकॅचर, बुलबुल, टेलरबर्ड, ऑरिओल, ब्रॉडबिल हीं खाशेलीं सवणीं आशिया खंडांत आसात. बरींचशीं सुकणीं एका जाग्यावेल्यान दुसऱ्या जाग्यार पयस वचपी आसतात पूण

हिमालयाच्या आडमेळ्यांकलागून तीं उत्तरेकटेन वचूंक शकनात. उदेंतेकडल्या दक्षिण-उत्तर दोंगराच्या वाठारांतल्यान मात तीं वचूंक शकतात. प्लोव्हर्स, गल, हेरॉन, हांयसां, बकीं हीं सुकणीं असल्या प्रकारचीं आसात. मानगीं उत्तर भारतांतल्या व्हडल्या न्हंयांनी आनी सुमात्रा, बोर्नीओ हांगा आसात. उदकांतले आनी जमनीवेले कांसव बरेच आसात. चानयो, शेड्डे, सोरोप (विखाळ आनी वीख विरयत), पारो, बेबकां हेसारकी मोनजात ह्या खंडांत सगळ्याक दिश्टी पडटा.

टंड्रा वाठारांत जमीन गोठून गेल्ल्याकारणान बिळांनी रावपी मोनजात दिश्टी पडना. रेनडिअर, आर्क्टिक सोंशे, भालू हेसारकीं जनावरां हांगा आसात. पूण तीं फकत गिमाच्या दिसांनीच दिश्टी पडटात. लेमिंग मात शिंयाच्या दिसांनी लेगीत आसता. विलोग्रावज आनी टर्मिगन सोडल्यार चडशीं सुकणीं शिंयाच्या दिसांनी दक्षिणेवटेन वतात. गिमांत किडे, सुकणीं हांची गर्दी जाता. ग्रे प्लोव्हर, सँडरलिंग, नॉट, सँडपायपर सारकीं सुकणीं जळारां खातात. ससाणे, स्कुआ सारकीं सुकणीं लेमिंग खातात. तैगा वाठारांतली मोनजात म्हळ्यार तपकीरी वांस्वेल, भालू, ग्लटन, ऑटर, अर्मिन, सेबल, लिंक्स, एल्क, रेनडिअर, सोंसो, चानी हेसारकी आसा. तरांतरांचीं सुकणींय बरींच आसात. न्हंयो आनी तळ्यांनीं नुस्तें तरांतरांचें आसा. स्टेपच्या तणाच्या वाठारांत जर्बोआ, मार्मोट, पायपिंगहेअर सारकीं बिळांनी रावपी जनावरां बरीच आसात. तरांतरांचीं हरणां तणाच्या वाठारांनी रावतात. बस्टार्ड, केल, ग्रावज, हॉबी सारकीं सुकणीं पळोवंक मेळटात. व्हडल्या न्हंयांतल्या शेळ्याचेर जियोवपी पाणपक्षी आनी तोळ बरेच दिसतात. कांय वेळार तोळांचे चोमे एकेकडल्यान दुसरेकडेन वचून वनस्पत आनी शेतांतली पिकावळ खावन काबार करतात. दोंगरी वाठारांनी रानमेंढरां, रानबोकडां आसतात. तिबेटच्या वाठारांत याक सारकें जनावर आसा. मांचूरिया आनी उदेंत चीनच्या वाठारांनी खाशेल्या जातीचीं हरणां आसात. हिमालयांतलो हिममनीस हें अजूनमेरेन एक कुवाडेंच आसा. चीनांतल्या न्हंयांनी नुस्तें बऱ्याच प्रमाणांत आसा. इझ्राएल, सिरिया, अरबस्तान हांगाची मोनजात बरीचशी आफ्रिकेंतल्या मोनजातीभशेन आसा.

**इतिहास आनी राजकी परिस्थितीः** धर्म, संस्कृताय, भाशा, इतिहासीक परंपरा, अर्थीक आनी राजकी परिस्थिती ह्या गजालींच्या आदारान आशियाचे चार वांटे करूं येतात. अस्तंत आशिया, दक्षिण आशिया, आग्नेय आशिया आनी उदेंत आशिया.

तुर्कस्थान, इझ्राएल, सिरिया, लेबनान, इराक, इराण, जॉर्डन, साउदी अरेबिया, अफगाणिस्तान आनी इराणी आखातांतलीं राज्यां अस्तंत आशियांत आसात. ह्या वाठाराक मध्य उदेंत **(Middle East)** अशेंय म्हण्टात. युरोप आनी आशिया खंडांक आनी भूंयमध्य आनी अरबी ह्या दोन दर्यांक ह्या वाठारान जोडल्यात. पूर्विल्ल्या काळासावन आशिया आनी युरोप हांच्यामदल्या वेपाराचो रस्तो हांगासावनच वतालो. भूंयमध्य आनी अरबी दर्याक जोडपी सुएझ कालवो ह्या वाठारांत आसा (१८६९).

भुगोलीक नदरेन हो वाठार चडसो रेंवेन भरला. फकत दर्यादिगांचेर थोडोभोव पावस पडटा. तेभायर युफ्रेटीस, तायग्रिस आनी जॉर्डन न्हंयच्या देगांवेली जमीन शेतवडीखातीर उपेगी पडटा. उत्तर तुर्कस्थान, इराण आनी अफगाणिस्तानचे कांय वाठार; पॅलेस्टायन, लेबनान आनी उत्तर सिरियासावन इराक मेरेनचो वाठार पिकाळ आसा पूण ह्या वाठाराची नामना सैमीक तेलांच्या सांठवणीक लागून चड आसा.

इराण, इराक, कुवेत, बाहरीन, साउदी अरेबिया, कतार ह्या राज्यांनी जगांतले सगळ्यांत चड तेलाचे सांठे आसात. जगांतलें २५% तेल अस्तंत आशियांतल्यान येता. तेलाच्या शुध्दीकरणाक लागपी भांडवल, यंत्रां आनी बरें तंत्रगिन्यान हें चडशें ह्या देशांतलें नासता आनी तेल विकून मेळपी फायद्यांतलो चडसो वांटो हांगाचे राजा वा हुकुमशहा आनी तांची सत्ता तिगोवंक मदत करपी लश्कराचेर खर्च जाता. पूण इझ्राएल आनी तुर्कस्थान हे तेल सांठवण नाशिल्ले देश उद्देगधंद्याक लागून ह्या हेर देशांपरस चड फुडें पावल्यात. अस्तंत आशियांतल्यो ५६ % तेल कंपन्यो अमेरिकेच्यो, २९% ब्रिटीश आनी ८% फ्रेंच आसात. उरिल्ल्यो कंपन्यो चडशो थळाव्यो आसात.

धर्म, भाशा आनी वंश ह्या गजालींनी ह्या लोकांचें जिवीत बरेंचशें सारकें आसा. भाशीक आनी धर्मीक अल्पसंख्यांकांचे प्रमाण दरेक देशांत २०% परस उणें आसा. हांगाचे ९५% लोक मुसलमान धर्माचे आसात. इझ्राएलांत मात ८९% लोक ज्यू आसात. सिरियांत १३%, लेबनानांत १९%, जॉर्डनांत ६% लोक किरिस्तांव धर्माचे आसात. इराणांतले ८८ %, येमेनातले ५५%, इराकांतले ५०% आनी लेबनानांतले १८ % लोक मुसलमान शिया पंथाचे आसात. बाकीच्या देशांनी चडशे मुसलमान सुन्नी पंथाचे आसात.

फाटल्या शंबर वर्सांचे अस्तंतेचे संस्कृतायेकडेन आयिल्ल्या संबंदाक लागून ह्या वाठारांत बरेच मुळावे बदल घडले. वाडटे सरकारी सत्तेक लागून आनी सुदारिल्ल्या येरादारीच्या साधनांक लागून हेडग्या जमातींची स्वतंत्रताय नश्ट जायत चल्ल्या. नव्या तेलशुध्दीकरण उद्देगांनी आनी उदकापुरवण सुरू करून शेतवडीच्या उद्देगांत आतां ते थिरावल्यात. नवें शिक्षण घेतिल्लो आनी अस्तंतेच्या संस्कारांचो प्रभाव जाल्लो एक वर्ग हांगा निर्माण जायत आसा. हो वर्ग चडसो लश्कर, सरकारी नोकरी आनी हेर शारांतल्या उद्देगांनी मुखार आसा. देशांतल्या राजकारणाचेर ह्या वर्गाचो खासा प्रभाव आसा. पूण जांकां अस्तंतेच्या आधुनिकीकरणाचे चडशे फायदे मेळिल्ले नात असो सकयल्या पांवड्यावेलो आनीक एक शारांतलो मध्यमवर्ग साम्यवादी नाजाल्यार 'मुस्लीम ब्रदरहूड' सारक्या संघटनांतल्यान आपली बंडखोरी मुखार हाडीत आसा.

अस्तंत आशियांत राश्ट्रवाद ह्याच शेंकड्यासावन घट जालो. राश्ट्रवादाची जाणविकाय चडशी शारांतल्या लोकांक जाल्या. हाचें खाशेलेपण म्हळ्यार, अस्तंतेवटेनच्या देशांची राजकी सत्ता आनी संस्कृताय हांच्या आक्रमणांचेर जाप म्हूण ह्या वाठारांत राश्ट्रवाद जल्माक आयलो. ग्रीक सत्ता आनी ते सत्तेक पोसवण दिवपी युरोपीय राश्ट्रां हांच्याआड तुर्कस्थानांत १९१८ वर्सा मुस्तफा केमाल पाशा हाच्या फुडारपणाखाल उठाव जालो. जॉर्डन, इराक, लेबनान ह्या देशांतल्या राश्ट्रवादाची तिडक ब्रिटीश आनी फ्रेंच सत्तेआड आशिल्ली. आयज इझ्राएलाक साम्राज्यवादी देशांचें, खासा करून अमेरिकेच्या हातांतलें बावलें म्हूण हांगाचे देश हिणसायतात. इराणांत दुसऱ्या म्हाझुजांतल्या ब्रिटीश आनी रशियनांच्या करण्यांक लागून राश्ट्रवादाचो जल्म जालो. परक्यांआड ह्या लोकांक, खासा करून शिकिल्ल्या लोकांक आयजलेगीत दुस्वास आसा. ब्रिटीश आनी अमेरिकन लश्कराचे तळ हांगाच्यान हालोवपाखातीर केल्ली मागणी, तेल कारखान्यांचे आनी सुएझ कालव्याचें ईजिप्तान केल्लें राश्ट्रीयकरण (१९५६) ह्या सारक्या गजालींतल्यान हांगाच्या लोकांचो राश्ट्रवाद सिध्द जाता.

राश्ट्रवादी चळवळींक लागून हांगाच्या सुलतानशायेक बरोच त्रास जालो. ह्या चळवळींचो परिणाम सगळ्या देशांतल्या राजांचेर जालो. १९२२ वर्सा तुर्कस्थानच्या राजाक सत्तेवेल्यान काडून उडयलो. १९५२ त इजिप्तचो राजा फेअरो, १९५८ त इराकचो राजा फैजल, १९६२ त येमेनचो राजा अल्-बद्र हाका काडून उडयलो. इराण आनी जॉर्डन हांगाय सुलतानशायेआड बऱ्योच चळवळी जाल्यो. साउदी अरेबिया आनी अफगाणिस्तानांत त्या मानान चळवळी तितल्योशो खर जावंक पावल्योनात. राजेशाय नश्ट जाल्या, तरीपूण खंयच्याच देशांत लोकशायेचीं मुळां खोलमेरेन पाविल्लीं नात.

तुर्कस्थान, इझ्राएल ह्या देशांक ग्रीक आनी अरबांआड जैत मेळिल्ल्यान नवो आत्मविस्वास येवंक लागला. हांगाच्या राश्ट्रवादाचेर धर्माचो बरोच प्रभाव आसा. तुर्कस्थानांतले किरिस्तांव, अरब देशांतले ज्यू आनी इझ्राएलांतले अरब हांकां त्या त्या देशांभितर घुस्मटिल्ल्यावरी दिसता. बऱ्याच देशांनी इस्लामी कायदे चलतात आनी धर्माकडेन संबंद आशिल्ल्या राजकी पक्षांक चड तेंको मेळटा.

अस्तंत आशियांत बरींच व्हड व्हड साम्राज्यां जावन गेलीं. सगळ्यांत

म्हत्वाचें साम्राज्य सातव्या शेंकड्यांतल्या इस्लाम धर्माक जल्म दिवपी महंमद पैगंबर आनी ताच्या खलीफांनी उबारलें. स्पेन सावन भारतमेरेन पातळिल्लें हें साम्राज्य तेराव्या शेंकड्यांत काबार जालें, पूण इस्लाम धर्म ह्या वाठारांत थीर जालो. तेराव्या शेंकड्याउपरांत तुर्कांनी ऑटोमन साम्राज्याची थापणूक केली. तांतल्या सुलेमान राजाचें (१५२०-६६) साम्राज्य युरोपांतल्या हंगेरीसावन उर्देतेक पातळिल्लें. १५ व्या आनी १६ व्या शेंकड्यांत युरोपीयांनी आशिया आनी आफ्रिका खंडांत वसाहतींची थापणूक करून ह्या साम्राज्याचेर आळाबंद हाडलो. उद्येगीक क्रांती आनी बदलत वचपी तंत्राच्या संदर्भांत युरोपीय देशांचें बळगें वाडलें आनी ऑटोमन साम्राज्य काबार जावंक लागलें. ईजिप्तचो गव्हर्नर महंमद अली (१८०५-४९) स्वतंत्रतायेच्या मार्गार आयलो. १९ व्या शेंकड्यांत लश्करी बळगें वाडोवपाखातीर फ्रेंच आनी जर्मन तंत्रगिन्यानाची मदत जाली. अस्तंतेकडल्यान शिक्षण घेवन आयिल्लो नवो वर्ग सुलेमानाच्या अधिकारांचेर बंदी घालपाची मागणी करूंक लागलो. १९०६ वर्सा तरनाट्या तुर्कांच्या बंडाक लागून नवें संविधान तयार जालें. १९११-१२ चे लडायेंत तुर्कस्थानान आपलो युरोपांतलो वाठार वगडायलो. पयल्या म्हाझुजांत जर्मनीवांगडा तुर्कस्थानाकय हार खावची पडली.

तरनाट्या तुर्कांच्या बंडाउपरांत राश्ट्रवादी विचारांक लागून शिक्षणांत तुर्की भाशेचो वापर जावंक लागलो. सरकारी नोकऱ्यांनी आनी लश्करांत तुर्की मनशांक पयली सुवात मेळूंक लागली. मुस्तफा केमाल आतातुर्क ह्या लश्करी अधिकाऱ्याच्या फुडारपणाखाल तुर्कांनी उठाव केल्याउपरांत ऑटोमन सत्ता सोंपली आनी १९२२ त तुर्की लोकसत्ताक राज्य तयार जालें. ह्या बंडाक लागून सेव्हर कबलात (१९२०) तुर्कस्थानावांगडा करून म्हाझुजांत जिखिल्लीं राश्ट्रां तुर्कस्थानाचे कुडके करूंक सोदतालीं, तांकां हात चोळीत बसचें पडलें.

पयल्या म्हाझुजाउपरांत सिरिया फ्रेंचांच्या हाताखाल आशिल्लो. तांणी ह्या देशाचे दोन कुडके केले. थंयच्या किरिस्तांवांचो वाठार कुशीक काडून त्रिपोली, बैरुत आनी सायडन बंदर ह्या वाठाराक लेबनान हें नांव दिलें.

युरोपीय ज्यू जमातींचो म्हळ्यार झीओनिस्ट राश्ट्रीय चळवळीचो परिणाम म्हूण इझ्राएल राश्ट्राची निर्मणी जाली. तुर्कांनी पॅलेस्टायन जिखून घेतल्याउपरांत निर्वासित जाल्ले ज्यू लोक युरोपांत सगळेकडेन पातळिल्ले. पूण राश्ट्रीयत्वाची जाणविकाय तिगोवन दवरून तेओडोर हेर्तसल (१८६०-१९०४) च्या फुडारपणाखाला झीओनिस्ट लोकांची चळवळ सुरू जाली. तांकां पॅलेस्टायनांत समेस्त ज्यूंखातीर स्वतंत्र राज्य जाय आशिल्लें. १९१७ वर्सा ब्रिटिशांनी ह्या स्वतंत्र राज्याच्या अस्तित्वाक मान्यताय दिली आनी चडांत चड ज्यू लोक हांगा येवंक लागले. १९१९ ते १९४७ हीं वर्सां म्हळ्यार ब्रिटीश, ज्यू आनी अरब हांच्यामदीं जाल्ल्या हिंसक झगड्यांचीं वर्सां. अरबांच्या विरोधाआड ज्यू लोकांक खर झूज दिवचें पडलें. १९४७ वर्सा पॅलेस्टायनचे कुडके करून ज्यू लोकांक तांचें राज्य दिवचें अशी सुचोवणी संयुक्त राश्ट्रांनी केली; पूण अरबांक ती मान्य जालीना. १४ मे १९४८ दिसा ब्रिटिशांनी पॅलेस्टायनांतल्यान भायर सरपाचें थारायलें आनी दुसऱ्याच दिसा इझ्राएलान आपल्या स्वतंत्र देशाची घोशणा केली. तेन्ना शेजारच्या अरब देशांतलें सैन्य झुजामळार देंवलें पूण इझ्राएलान तांकां हारयले. इझ्राएल आनी अरब राश्ट्रांमदलें झूज आयजमेरेन चालूच आसा. अमेरिकेच्या पालवान इझ्राएल एक बळीश्ट देश जाला आनी एकलोच सगळ्यांलागीं झूज करता.

अफगाणिस्तान आनी साउदी अरेबिया ह्या देशांतली परिस्थिती मात्शी वेगळी आसा. हेर राश्ट्रांनी नश्ट जाल्ल्यो हेडग्यो जमाती, मागाशिल्लो समाज आनी राजेशायेच्यो परंपरा ह्या देशांनी हेरांपरस चड काळ तिगून उरल्यो.

अस्तंत आशियांतले देश एका नव्या मोडणाचेर आसात. पोरनी समाजवेवस्था आनी संस्था मोडत चल्ल्यात. पूण तांचो जागो अजून नवे समाजवेवस्थेन घेवंक ना. राजेशाय काबार जाल्या, पूण पक्षपध्दतीचेर आदारिल्ली लोकशाय आनी सरकार अजून थीर जावंक ना.

आंतरराश्ट्रीय थराचेर इराण-इराक झुजाक बरेंच म्हत्व आयलें. ह्या झुजाचो परिणाम तेलाच्या वेपाराचेर जालो. इझ्राएल, लेबनान, जॉर्डन, साउदी अरेबिया हांचें धोरण अमेरिकेक सादारण बरें आसा, पूण काळाप्रमाण आनी परिस्थितिप्रमाण तें बदलता. तातूंतल्या तातूंत इझ्राएल अमेरिकेक सगळ्यांत चड लागींचो देश. इराणांत खोमेनी सत्तेर आयल्या उपरांत अमेरिकेकडेन दुस्मानकाय केल्ली. सिरिया, इराक हाचीं धोरणां रशियेक बरीं आसात. यास्सर अराफताची पॅलेस्टायन मुक्ती संघटना वांशिक प्रश्नांचेर अरबांचो एकचार करूंक वावुरता, जाल्यार गदाफी सारक्या मनशाचेर जगांतलीं बरींचशीं खबरांपत्रां आंतरराश्ट्रीय आकांतवाद पातळावपी म्हूण आरोप करतात. बारीकसाणीन पळयल्यार एक गजाल स्पश्ट जाता, ती म्हळ्यार हांगाच्या देशांचें आंतरराश्ट्रीय धोरण देशांभितरल्या परिस्थितीसारकेंच चंचल आनी अंदाधुंदीचें आसा. १९९० त इराकान कुवेताचेर घुरी घाली आनी तो देश आपल्या शेकातळा हाडलो. इराकाचो राश्ट्राध्यक्ष सद्दाम हुसेन हाणें आपल्या देशाचें सैन्य थंयसावन काडूंक न्हयकार दिल्ल्यान आंतरराश्ट्रीय मळार ह्या वाठारांतल्या देशांच्या परराश्ट्रीय धोरणांचेर सगळ्या संवसाराचे दोळे लागून आसात.

भारत, पाकिस्तान, बांगलादेश, श्रीलंका, नेपाळ, भूतान हे सगळे देश दक्षिण आशियांत येतात. लोकसंख्या आनी विस्ताराचे नदरेन हाका उपखंड म्हण्टात. आपल्या खाशेलेपणाक लागून भारताचो प्रभाव ह्या सगळ्या वाठारांत चड आसा. उत्तर दिकेंतल्या हिमालयाक आनी दक्षिणेच्या दर्याक लागून हो वाठार आशिया खंडाकडल्यान मात्सो वेगळो जाला.

विंगड विंगड स्वरुपाची समाज रचणूक हें दक्षिण आशियाचें एक खाशेलेपण जावन आसा. कितलेशेच धर्म, भाशा, वंश आनी जातीजमाती हांगा आसात. भारतांत संविधानान १४ भाशांक मान्यताय दिल्या आनी त्यापरस चड कितल्योशोच भाशा हांगाचे लोक उलयतात आनी बरयतात. पाकिस्तानांत पुश्तू, पंजाबी, उर्दू, सिंधी आनी बलुची ह्यो मुखेल भाशा. श्रीलंकेंत सिंहली आनी तामीळ भाशा उलोवपी लोक आसात. भारतांत आनी नेपाळांत हिंदू, पाकिस्तान आनी बांगला देशांत मुसलमान आनी श्रीलंकेंत बौध्द लोक चड संख्येन असात. मुसलमान, शीख, किरिस्तांव, बौध्द, जैन हे धर्म भारतांत अल्पसंख्य आसात. पाकिस्तान, बांगला देश आनी श्रीलंकेंत हिंदू आनी किरिस्तांव अल्पसंख्य आसात. श्रीलंकेंत मुसलमान अल्पसंख्य आसात. तेभायर दरेक धर्मांत कितलेशेच पंथ, संप्रदाय आनी जाती आसात. ऑस्ट्रालॉयड, द्रविड, आर्य, मंगोल ह्या वंशाचे लोक हांगा आसात.

भारताच्या कांय वाठारांनी पयलीं गणराज्यां आशिल्लीं. पूण चडशा वाठारांनी राजेशाय चलताली. राजाच्या अधिकाराचेर मात सभा, समिती, जातीवेवस्था, ब्राह्मणवर्ग, मंत्रिमंडळ, राजधर्म ह्या सारक्या गजालींनी मर्यादा घाली. पूर्विल्ल्या काळांत हांगा धर्मसंस्था आनी राज्यसंस्था एकामेकांसावन वेगळयो आशिल्ल्यो.

इस्लाम धर्म भारतांत सगळ्यांत पयलीं अरब वेपाऱ्यांनी हाडलो. ताचे पयलीं हिंदू, बौध्द, जैन हे धर्म हांगा आशिल्ले. पूण इस्लाम धर्माचो प्रसार चडसो मुसलमानी सत्तेची थापणूक जाल्याउपरांत जालो. मुसलमान राजांनी सुमार ७०० वर्सां भारतांतल्या ल्हान व्हड वाठारांचेर शेक गाजयलो. त्या काळांत सत्तेची जबरदस्ती, पयशे आनी प्रतिश्ठा हाका लागून बऱ्याचशा लोकांनी धर्मांतरां केलीं. हिंदू-मुसलमान ह्या दोनय धर्मांचो प्रभाव एकामेकांचेर पडल्याबगर रावलो ना. हिंदू-मुसलमान हांच्या मदल्या संबंदांक औरंगबेज सारक्या धर्मनिश्ठ आनी पोरन्या मतांचो प्रसार करपी राजाक लागून बादा आयली. भारतीय वास्तूकला, शिल्प, संगीत, चित्रकला, भाशा आनी साहित्य हांचेर मुसलमानी राजवटींचो बरोच प्रभाव दिसून येता.

श्रीलंकेतले सिंहली लोक ३,००० वर्सांपयलीं बंगालच्या वाठारांतल्यान थंय आयले आसूंये. ताचे उपरांत ११ ते १३ व्या शेंकड्यांत दक्षिण

भारतातल्या तमिळ राजांनी घाल्ल्या घुरयांक लागून तांकां ह्या जुंव्यांच्या मदीं आनी दक्षिणेवटेन वचचें पडलें. उत्तर आनी उदेंत वाठारांनी तमिळ लोक बरेच रावतात.

भारतांत आनी श्रीलंकेंत ब्रिटिशांनी आपले सत्तेची थापणूक केली. देडशीं वर्सांच्या वसाहतवादान ह्या दोनूय देशांच्या फुडाराचेर बरेच परिणाम जालो. भारत पयलेच फावट एकतंत्री राज्यकारभाराखाला आयलो. भारताच्यो चारय दिकांतल्यो शिमो ब्रिटिशांनी थारायल्यो. नवें अस्तंतेचे पध्दतीचें शिक्षण दिवन तांणी भारतांत नोकरशाहीची परंपरा चालू केली. नव्या शिक्षणाक लागून राष्ट्रवादाचे विचार शिकिल्ल्या लोकांमदीं पावले आनी स्वतंत्रताय चळवळीचें फुडारपण ह्याच वर्गाकडेन आयलें.

इंडियन नॅशनल कॉंग्रेस (१८८५), सीलोन नॅशनल कॉंग्रेस (१९१९) ह्या सारक्या संघटनांच्या मागण्यांक लागून १९०९, १९१९, १९३५ ह्या वर्सांनी नवेनवे सुदारणा करपी कायदे ब्रिटिशांनी लागू केले. स्वतंत्रतायेखातीरची लडाय बऱ्याच नेटान चालू जाली. इतले मजगतीं शिक्षणाचो पुराय फायदो घेनाशिल्ल्यान आनी संख्येन कमी आशिल्ल्यान हिंदूंमुखार आपूण तिगचेना अशें मुसलमान फुडाऱ्यांक दिसूंक लागलें आनी १९०६ वर्सा मुस्लीम लीगची थापणूक जाली. ब्रिटिशांनी फुटीर प्रवृत्तींक मदत करून हिंदू आनी मुसलमान हांच्याभितर दुस्मानकाय वाडयली. कॉंग्रेस आनी मुस्लीम लीग हांचेमदलें अंतर वाडूंक लागलें आनी ताचो परिणाम म्हूण १९४० वर्सा लाहोर हांगा मुस्लीम लीगान स्वतंत्र पाकिस्तानीची मागणी केली. १९४७ त स्वतंत्रतायेवांगडा भारत आनी पाकिस्तान अशे भारताचे दोन कुडके जाले. श्रीलंकेक १९४८ वर्सा स्वतंत्रताय मेळ्ळी.

स्वतंत्रतायेउपरांत भारत आनी श्रीलंका निधर्मी जाल्यार पाकिस्तान इस्लामी राष्ट्र जालें. १९५६ उपरांत श्रीलंकेंत धर्माच्या प्रस्नाचेर बोवाळ जावंक सुरवात जाली आनी १९७२ च्या नव्या संविधानांत बौध्द धर्माक राष्ट्रीय धर्म म्हूण मान्यताय मेळ्ळी.

स्वतंत्रतायेउपरांत भारत, पाकिस्तान आनी श्रीलंका हांणी संसदीय लोकशाय आपणायली. वेंचणुकांउपरांत हांगा राष्ट्रीय सरकाराची थापणूक जाली. पूण भारत आनी श्रीलंका हांगा हे संसदीय लोकशायेची मुळां घट जालीं, जाल्यार पाकिस्तानांत लोकशायेसावन हुकुमशायेकडेन राजकारणाची वाट पावली. १९७१ वर्सा भारत आनी पाकिस्तान हांच्यामदीं झूज पेटलें आनी उपरांत बांगला देशाची निर्मणी जाली. भारत आनी पाकिस्तानचे संबंद सामकेच दुस्मानकायेचे आशिल्ले ते इल्ले इल्ले बदलत गेल्यात. पूण दोनूय देशांमदीं तशी खासा इश्टागत अजून जावंक ना. श्रीलंकेभितर १९५६ उपरांत बंदरनायके हाच्या पक्षान सिंहली भाशा आनी बौध्द धर्म हांकां म्हत्व दिलें, तेन्ना तमिळ फेडरल पक्षान तमिळ लोकांखातीर वेगळो प्रांत मागलो. त्यावेळार सुरू जाल्लें तें झूज १९८० उपरांत चड पेटलें आनी हें झूज सोडोवपाखातीर जयवर्धनेच्या सरकारान भारत सरकाराची मदत घेवन थंय भारतीय सैन्य हाडलें. तरीपूण तमिळ-सिंहली हांच्यामदलो प्रस्न अजून पुरायपणान सुटूंक ना.

ह्या तीनूय देशांवांगडा बांगला देशामुखार्य तीन मुळावे प्रस्न आसात ते म्हळ्यार- अर्थीक उदरगत, आधुनिकीकरण आनी राष्ट्रीय एकचार. राष्ट्रीय एकचाराच्या प्रस्नाचेर भारतासारक्या देशांत तर जळींमळीं चळवळी आनी झुजां चालूच आसात.

१९६२ त, भारत-चीन हांच्यामजगतीं जाल्या लडायेउपरांत भारत आनी रशिया हांची इश्टागत वाडीक लागली. दुसरेवटेन पाकिस्तान आनी चीन हांच्यामदीं बरी इश्टागत जाली. भारत-रशिया बऱ्या संबंदाचो परिणाम म्हूण १९७१ वर्सा ह्या दोनूय देशांमदीं २० वर्सांची इश्टागतीची कबलात जाली.

आयज ह्या उपखंडांतल्या देशांमदीं भारत सगळ्यांत चड फुडारला. अलिप्त राष्ट्र परिशद सारक्या संघटनांतल्यान ताणें हेर देशांकडेन इश्टागतीचे संबंद वाडयल्यात. ह्या उपखंडाचेर फुडारिल्ल्या राष्ट्रांची बारीक नदर आसा आनी अमेरिका पाकिस्तानाक मदत करून ह्या खंडांतल्या रशियेच्या वाडट्या प्रभावाचेर आळाबंद हाडपाचो यत्न करीत आसा.

ब्रह्मदेश, थायलंड, लाओस, कंबोडिया (ख्मेर), दक्षिण आनी उत्तर विएतनाम, मलेशिया, सिंगापूर, इंडोनेशिया आनी फिलीपीन्स हे देश आग्नेय आशियांत आसात. हो वाठार जरी युरोपायेदो आसा तरी युरोपाची लोकसंख्या ताच्यापरस चड आसा. इंडोनेशिया होच देश मात्सो चड लोकसंख्येचो. हेर देशांची लोकसंख्या तांच्या विस्ताराच्या मानान सामकीच उणी आसा. हांगाचो चडसो वाठार दाट रानांनी भरला. शेतवडीखातीर उपेगी पडपी जमीन १६% ते २०% मेरेनच आसा. तरीपूण अन्नाची निर्यात करपी आशिया खंडांतलो हो मुखेल वाठार जावन आसा.

बौध्द धर्म हो हांगाचो मुखेल धर्म. मलेशिया आनी इंडोनेशियांत मात मुसलमान चड संख्येन आसात. फिलीपीन्स हांगा किरिस्तांव लोक चड संख्येन आसात. विंगड विंगड वंशाचे लोक ह्या वाठारांत रावतात. मलेशियांत ५०% लोकच फकत मलेय आसात. ह्या देशांत ३९ % लोक मूळ चीनी जाल्यार सुमार ९% भारतांतले. ब्रम्हदेशांतय ९% लोक भारतीय वंशाचे, ५ % चिनी आनी ७% हेर वंशाचे आसात. पूण मंगोल वंश सादारणपणान हांगा चडसो दिसता.

हो वाठार जगाच्या दर्यांतल्या वेपारीमार्गाचेर आशिल्ल्यान ताका बरेंच म्हत्व आसा आनी थंय बऱ्याच संस्कृतायांची भरसण जाल्या. भारत आनी चीन लागीं आशिल्ल्यान ह्या देशांच्या संस्कृतायांचो प्रभाव ह्या वाठारांचेर दिसून येता. हेर वाठारांपरस चीनाचो प्रभाव इंडोचायनांत (लाओस, कंबोडिया, विएतनाम) हांगा दिसता. ह्या प्रभावाक लागून जावा हांगासरलें शैलेंद्र (७८२-१४७४) आनी मजपहीत (१२९४-१५२०), सुमात्रा जुंव्यावेलें श्रीविजय (४००-८००), कंबोडियांतलें ख्मेर (५५०-१२९५) आनी अंकोर (८०१-१४३२), ब्रह्मदेशांत पेंगू (१२८७-१५३९) ह्या राज्यांची थापणूक जावंक पावली. पूण हीं राज्यां संघटित आशिल्लीं अशें दिसना. समाजीक वा अर्थीक बदल घडोवपाची शक्त तांच्यालागीं नाशिल्ली. आग्नेय आशियांतले आयचे राजवेवस्थेचें स्वरुपय बरेंचशें दुबळें आसा. राज्यांभितर राज्यकर्तो वर्ग आनी भोवजन समाज हांच्यामदीं बरेंच अंतर आसा. असल्याच प्रकारचें अंतर गांवगिरो भौस आनी अस्तंतेकडले संस्कार जाल्लो शारांतलो शिकिल्लो वर्ग हांचेमदीं अजून दिसता. पयलीं भारतीय संस्कृतायेचो प्रभाव राज्यकर्त्यांचेर चड आशिल्लो.

अस्तंतेकडल्या जगाकडेन धर्मप्रसार आनी वेपार ह्या दोन गजालींक लागून ह्या वाठाराचो संबंद आयलो. हाचो फिलीपीन्सच्या समाजाचेर खासा परिणाम जाल्याचें दिसता. स्पॅनिश लोकांनी हांगा किरिस्तांव (कॅथलिक) धर्म आनी संरजामशाय हाडली. १९ व्या शेंकड्यांत ह्या वाठारांत वसाहतवादाची सुरवात जाल्याचें दिसता. ब्रह्मदेश, मलाया, सिंगापूर, उत्तर बोर्निओ हांकां ब्रिटिशांनी आपल्या शेकातळा दवरले. इंडोनेशिया ही डच लोकांची वसाहत जाली, जाल्यार इंडोचायनाचेर फ्रेंच सत्ता चलताली. अमेरिकेन फिलीपीन्स जुंवे १८९८ वर्सा स्पेनाचेर जैत मेळोवन आपले केले. हांगाच्या समाजाचेर आनी अर्थवेवस्थेचेर वसाहतवादाचे बरेच पयसुल्ले परिणाम जाले. ब्रिटन, फ्रांस, हॉलंड आनी अमेरिका ह्या चारुय साम्राज्यवादी देशांची हांगा शेक गाजोवपाची पध्दत वेगळी आसली. ब्रिटिशांनी पोरनी वेवस्था मोडून त्या जाग्यार नोकरशाय हाडली, शिक्षणाची सुरवात केली, एकाफाटल्यान एक अश्यो राजकी सुदारणा केल्यो. प्रतिनिधीक लोकशाय संस्था निर्माण जाल्यो. देखीक- ब्रह्मदेशांत १९११ वर्सा नवी राज्यपध्दत आयली, १९३७ वर्सा सगळ्या प्रौढ दादल्यांक मतदानाचो अधिकार मेळ्ळो. अशेतरेन स्वतंत्रताय मेळचे पयलींच राजकी पक्ष, फुडारी आनी राजकी संस्था निर्माण जाल्यो. स्वतंत्रताय मेळ्ळयाउपरांतय लोकशायेचे आदर्श हांगाच्या फुडाऱ्यांनी लोकांमुखार दवरले.

ह्या उरफाटें डच लोकांनी इंडोनेशियांतले पारंपारिक अधिकारी आनी

तांचे जागे तशेच दवरले. पारंपारिक कायदे, रुढी, कुळांचे आनी गांवांचे हक्क ह्या सारक्यो सगळ्यो पोरन्यो गजाली सांबाळून दवरल्यो. भायलें शिक्षण फकत मर्यादित स्वरुपांत उंचेल्या पांवड्यावेल्या लोकांक दिलें. हाकालागून इंडोनेशियांत स्वतंत्रतायेउपरांतय खंयचेच एके खासा राज्यपध्दतीचो आदर्श उरलो ना.

१८६२ ते ८४ मेरेन लाओस, कंबोडिया, (ख्मेर/कांपुचिया) आनी विएतनाम फ्रांसाच्या हातांत आशिल्ले. इंडोचायनाभितर, खासा करून विएतनामांत फ्रेंच संस्कृतायेचो प्रसार करपाचे यत्न जाले.

अमेरिकेन सुर्वेकसावन स्वतंत्रतायेचें सपन फिलीपीन्सच्या लोकांमुखार दवरून पक्षांचे थापणुकेक आनी राजकी फुडारपणाक फाटबळ दिलें. १९०७ वर्सा लोकांनी वेंचून काडिल्ले विधानसभेची थापणूक जाली. १९३७ वर्सासावन राजकी फुडारपणाक चड म्हत्व आयलें. राजकी मळार मेळिल्ले स्वतंत्रतायेक लागून फिलीपीन्सांत लोकशायेचीं मुळां बरीं घट जालीं.

अस्तंतेच्या साम्राज्यवाद्यांचे सत्ता सर्तींतल्यान थायलंड वाटावलो. फ्रेंच आनी ब्रिटीश वसाहतींच्या वाठारांतलें एक राज्य म्हूण ताका मान्यताय मेळ्ळी. वसाहतवादाचें संकश्ट येवचें न्हय हाका लागून हांगाच्या राजांनी थंय बऱ्योच सुदारणा केल्यो.

ह्या सगळ्या वाठारांकडेन साम्राज्यवादी देशांचो संबंद वेपाराक लागून आयिल्ल्यान हांगाचीं शारां वेपाराचीं आनी प्रशासनाचीं केंद्रां जालीं. उद्येगधंद्यांकलागून तयार जाल्लीं शारां सामकींच उणीं आसात. बुध्दीजीवी आनी शिक्षित वर्ग शारांनी रावता.

वसाहतवादावांगडा जपानाच्या घुरयांनी हांगा बरेच बदल घडोवन हाडले. म्हाझुजावेळार जपानान हो सगळो वाठार आपल्या हाताखाला घेतलो. दरेक देशांत स्वतंत्रताय मेळोवपाची इत्सा निर्माण जाली; हेखातीर नवे फुडारी उदेले. जपानान तांकां तेंको दिलो आनी ह्या देशांभितर मुक्ती सैन्य उबारूंक मदत केली. म्हाझुजाच्या काळांत विएतनाम, ब्रह्मदेश, इंडोनेशिया, फिलीपीन्स ह्या देशांतल्या फुडाऱ्यांनी स्वतंत्रतायेची घोशणा केली. म्हाझुजाक लागून साम्राज्यवादी देशांचें बळगें उणे जाल्लें, हाचो फायदो घेवन ब्रह्मदेश, इंडोनेशिया आनी फिलीपीन्स हे देश पुराय तरेन स्वतंत्र जाले.

इंडोचायनांत मात फ्रेंचांनी अमेरिकेची मदत घेवन थंयच्या राश्ट्रवाद्यांकडेन बरोच काळ झूज दिलें. चडशें झूज उत्तर विएतनामांतल्या हो चि मिन्हच्या फुडारपणाखाल निर्माण जाल्ले कम्युनिस्ट संघटनेआड आशिल्लें. निमाणें १९५४ वर्सा दयेन ब्येन-फू हांगा फ्रेंच सैन्याची हार जाली. ताचेउपरांत जिनीव्हा हांगा आंतरराश्ट्रीय परिशदेंत वाटाघाटी जावन लाओस, कंबोडिया (कांपुचिया) आनी विएतनाम हांकां स्वतंत्रताय मेळ्ळी. विएतनामाचे दोन कुडके जाले. रशिया आनी चीन सारके कम्युनिस्ट देश आनी अमेरिका हांच्यामदीं चलतल्या सर्तीभितर विएतनाम मदीं पडलो. उत्तर आनी दक्षिण विएतनाम हांचेमदीं बरीच लडाय जाली. दक्षिण विएतनामाक पालव दिवंच्या निमतान अमेरिकेन उत्तर विएतनामाआड झूज सुरू केलें. १९७३ वर्सा अमेरिकेन कबलात करून उत्तर आनी दक्षिण विएतनामामदीं शांतताय हाडली.

मलाया आनी इंडोनेशिया ह्या देशांतय कम्युनिस्ट पक्ष बरेच बळीश्ट आसले. मलायांत कम्युनिस्ट पक्षान खर झूज मांडलें, पूण ब्रिटिशांचो पालव घेवन थंयच्या सरकारान ह्या पक्षाचेर जैत मेळयलें. इंडोनेशियांत १९६० उपरांत राश्ट्राध्यक्ष सुकार्नो हाणें कम्युनिस्ट पक्षाक सत्तेभितर घेतलो. पूण हाचेर संतुश्ट न जावन कम्युनिस्टांनी बंड सुरू केलें आनी इंडोनेशियन सरकाराक खाला उडोवन लश्करान हजारांनी कम्युनिस्टांक मारून उडयले.

रशिया आनी अमेरिका ह्या दोन महाशक्तींचे सर्तींत ह्या वाठारांतल्या देशांचे परराश्ट्र धोरण चेपून उरलां. एकामेकांमदली दुस्मानकाय होय ह्या वाठाराचो एक मुखेल प्रस्न आसा. इंडोनेशिया आनी फिलीपीन्स हांणी मलेशियांतल्या साराबाक आनी सबा ह्या वाठारांचेर आपलो अधिकार सांगला. कंबोडिया आनी थायलंड हांचेमदीं अंकोर देवळाचे मालकेवेल्यान झगडीं चलतात. चिनाच्या विस्तारवादी धोरणाचो ह्या सगळ्या देशांक भंय आसा, पूण एकामेकांमदल्या दुस्मानपणाक लागून ते एकामेकांक मदत करपाचे परिस्थितींत नात.

चीन, जपान, उत्तर आनी दक्षिण कोरिया हे उदेंत आशियाई देश आसात. चीन आनी जपान आशिया खंडांत सगळ्यांपरस बळीश्ट आसात. चीनाची संस्कृताय सामकी पोरनी. हेर आशियांतल्या देशांपरस हांच्या आधुनिकीकरणाक अस्तंतेकडल्या देशांचो हातभार उणोच लागला. तांच्यामदीं चिनाक आपले साम्यवादी विचारधारेक लागून चड म्हत्व मेळ्ळां, जाल्यार जपान उद्येगीक क्रांतींतल्यान निर्माण जाल्ले आपले अर्थीक संपत्तीक लागून बळीश्ट देश जाला.

जपान हो सुमार ३,४०० जुंव्यांचो देश, जाल्यार चीन हो विस्तारान बरोच मोटो आशिल्लो देश. ह्या दोगांयमदीं सुमार ७६० किमी. चो दर्या आशिल्ल्यान जपानाक परकी सत्तेचो भंय ना. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत अमेरिकेकडल्यान जपानाक भिरांत निर्माण जाल्ली, पूण १९४५ चो आडवाद सोडल्यार जपान सदांच स्वतंत्र देश म्हूण उरलो. ह्या वेगळेपणाक लागून थंय राश्ट्रीय एकचाराची जाणविकाय चड खर आसा.

जपान आनी चीन हांकां पूर्विल्ल्या काळासावन एकेच संस्कृतायेचो लाव जालो. जपानचेर पयलींसावन एकाच राजघराण्याचे राजा राज्य करीत आयल्यात, ताका लागून हें राजघराणें त्या राश्ट्राची कुरू जावन गेलां. एकुणिसाव्या-विसाव्या शेंकड्यांत जपानी राश्ट्रीय अस्मिताय आनी राश्ट्रवाद ह्यो गजाली राजघराण्याक सामक्यो लागींच्यो उरिल्ल्यो. पूण चीनांत इ. स. प. दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या राजांसावन ते विसाव्या शेंकड्यांतल्या मांचू राजामेरेन कितलींशींच राजघराणीं सत्तेर आयलीं. १९४९ उपरांत चीन लोकसत्ताक राज्य जालें.

विस्ताराक लागून चिनांतली परिस्थिती राज्य चलोवपाक बरीच कश्टांची जावन गेल्ली. उत्तर दिकेंतल्यान येवपी घुरयांक लागून पूर्विल्ल्या काळांत सुमार २,४०० किमी. लांबायेची वणत बांदची पडली. पारंपारिक चिनांत कन्फ्युशीयसचे शिकवणीचो प्रभाव आशिल्लो. ह्या शिकवण्यांप्रमाण राजान संयमान राज्य चलोवचें अशी अपेक्षा बाळगिल्ली. पयलींसावन हांगा मनशापरस समाजाक आनी हक्कांपरस कर्तव्याक चड म्हत्व आशिल्लें.

जपानांत ९ व्या शेंकड्यासावन राजाकडेन सत्ता सामकीच उणी आशिल्ली. सत्तेचो भोग आनी वापर चडशे सरदारुच घेताले. १६०३ मेरेन सत्तेचें पुरायपणान केंद्रीकरणय जावंक पावलेंना. ताचेउपरांत थंय एकाच राजाची केंद्रीय सरंजामशाय निर्माण जाली. हातूंत तोकुगावा घराण्याचो मुखेली 'शोगून' म्हळ्यार सत्तेर येवपी वंशपरंपरागत अधिकारी आसतालो. समाजांत चार वर्ग आशिल्ले. सामुराय (झुजपी), शेतकार, कारागीर आनी वेपारी.

चिनी परंपरेप्रमाण बुध्दीजीवी, सरकारी अधिकारी आनी सरदार हे वर्ग उंचेल्या पांवड्यार आशिल्ले. सरकारी परीक्षांक बसपाचो कोणाकय अधिकार आशिल्लो. पूण ह्या परीक्षांनी जैतिवंत जावपी भुरगीं उंचेल्या वर्गांतलीं आनी गिरेस्त आसतालीं.

राजेशायीच्या सरत्या काळांत १९११ वर्सा चिनांत मर्यादित स्वरुपांत लोकशाय आयली, पूण उंचेल्या पांवड्यावेल्या लोकांचेर ताचो व्हडलोसो परिणाम जावंक ना. सन्-येत्-सेन (१८६६-१९२५) ह्या राश्ट्रीय फुडाऱ्यानय लोकशाय येवचेपयलीं लोकांक शिक्षण दिवपी अशा वर्गाचे हुकुमशायेची गरज आसा अशें सांगलें.

आपल्या व्हड विस्ताराक लागून आनी संस्कृतायेच्या पोरनेपणाक लागून चिनी लोकांमदीं एक प्रकारचो आत्मकेंद्रीतपणा आशिल्लो. तांच्या मतान संस्कृतायेचें जग फकच चिनापुरतेंच मर्यादित आशिल्लें. चीन म्हळ्यार जगाचे सत्तेचें केंद्र अशें तांकां दिसतालें.

अस्तंतेच्या देशांकडेन आयिल्ल्या संपर्काचे जपान आनी चिनाचेर

विंगड विंगड परिणाम जाले. अस्तंतेकडेन आयिल्ल्या संबंदांउपरांतय जपानी परंपरा बंद पडल्यो नात पूण तातुंतल्यानूच नव्या जपानची निर्मणी जावंक पावली. चिनांत ताचे उरफाटे परिणाम जाले. चिनी समाज आनी राज्यवेवस्थेची रचणूक बदलूंक लागली. १८५४ वर्सा अमेरिकन कमांडर पेरी हाणें जपानाक अस्तंतेच्या देशांलागीं वेपार करचेखातीर मुखार काडलो, तेन्ना अस्तंतेच्या तंत्रगिन्यानाचें गिन्यान तांकां मेळ्ळें. नव्यान येवपी उद्येग-धंद्यांक लागून नोकरशायेची गरज पडली. लोकशिक्षण, सक्तीचें लश्करी शिक्षण, उद्येगधंदे, नवीं येरादारीचीं साधनां हांची सुरवात जाली. १८८९ वर्सा नवें संविधान मान्य जालें. ते प्रमाण राजा जरी सगळ्यांत वयर आसलो तरीपूण अधिकारी, सरदार, वेपारी, भांडवलदार हांचेमदीं सत्तेखातीर सर्त चलताली. १९३७ त राश्ट्रवाद्यांची आनी लश्करी अधिकाऱ्यांची सत्ता वाडिल्ल्यान जपानान चिनाचेर घुरी घाली.

वेपाराक लागून चिनाचो संबंद जगाकडेन पयलींसावन आसलो तरी मांचू राजांच्या काळांत भायले संस्कृतायेचो प्रभाव चिनाचेर पडलो. अस्तंतेच्या देशांमदीं चलतले सत्तासर्तीक लागून चीन खंयच्याय एका देशाची पुरायपणान वसाहत जावंक पावलो ना; पूण १९४९ मेरेन अर्थीक नदरेंतल्यान ताचो बरोच फायदो साम्राज्यवाद्यांनी घेतलो. १८३९-४२ मेरेन जाल्ल्या अफूच्या झुजांउपरांत चिनावांगडा तिन-त्सिन कबलात करून साम्राज्यवाद्यांनी बरोच फायदो मेळयलो. १८९४-९५ च्या झुजावेळार जपानान तर पयलींच फोर्मोसा आनी हेर चिनी जुंव्यांचेर जैत मेळयल्लें.

साम्राज्यवाद्यांआड दुस्वास चिनांत दिसानदीस वाडीक लागतालो. १९११ च्या बंडांत सन्-यत्-सेन च्या फुडारपणाखाल लोकांनी मांचू राजेशाय खाला उडयली. कोमिंतांग हे सन्-येत्-सेन च्या संघटनेन चिनांत पयलें राश्ट्रवादी सरकार हाडलें. रशियन क्रांतीउपरांत कॉमिंटर्न हे आंतरराश्ट्रीय साम्यवादी संघटनेन फुडाकार घेवन चीनांत साम्यवादी पक्षाची थापणूक केली. १९२३-२४ वर्सा कोमिंतांग आनी १९२१ त थापणूक जाल्लो साम्यवादी पक्ष हांची आघाडी तयार जाली. पूण १९२७ त चँग-काय-शेक हाच्या फुडारपणाखाल कोमिंतांग आनी साम्यवादी पक्ष वेगळे जाले.

साम्यवादी पक्षाक माओ-त्से-तुंग सारक्या फुडाऱ्याचें फुडारपण मेळ्ळें आनी चिनाचे परिस्थितीप्रमाण मार्क्सवादाचो थंय अभ्यास करून साम्यवादी पक्षान १९४९ वर्सा क्रांती केली. साम्राज्यवादी देशांलागीं चिनान आपले संबंद तोडले. साम्यवादी पक्षाच्या हुकुमशायेखाला अर्थीक मळार चिनान बरीच उदरगत केल्या. आयज आशिया खंडांतली चीन ही एक मुखेल शक्त आसा.

रशियेकडल्यान वेगळो जावन हेर देशांमदीं चलपी साम्यवादी चळवळींक फाटबळ दिवपाचें तांचें धोरण आशिल्लें. पूण १९७६ वर्सा माओक मरण आयल्याउपरांत चिनाचें परराश्ट्र धोरण बदलत आसा. अमेरिकेसारक्या देशांतलें भांडवल हाडून चीनांत उद्येगधंदे बांदपाचें काम चलता. १९६२ वर्सा भारताकडेन जाल्ले लडायेउपरांत चीन आनी भारताचे संबंद सामके पयसावल्ले. हालीं हालींच ते संबंद पर्यून लागीं येवंक लागल्यात आनी १९८९ वर्सा काय आदीं भारताचे पंतप्रधानान चिनाक दिल्ले भेटींतल्यान तें दिसून येता. आंतरराश्ट्रीय थराचेर आशियांतल्या घडणुकांक बरेंच म्हत्व आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**आशीर्वादः** आशीर्वाद उतराची व्युत्पत्ती अशीः 'आशीः+वाद (उच्चारण)'= 'जांव'. जांव ह्या उतराचो प्रयोग करून उच्चारिल्ल्या वचनांक 'आशीर्वाद' म्हण्टात. न्यायकोशांत 'भवतु ते शिवप्रसाद': म्हळ्यार तुका शिवप्रसाद जांव आनी 'इष्टार्थाविष्करणम्' म्हळ्यार यजमानाक इष्ट आशिल्ल्या अर्थाचें आविष्करण' अशी 'आशीः' ह्या उतराची व्याख्या केल्या. शब्दकल्पद्रूमांत आशीर्वादाची व्याख्या फुडलेतरेन केल्या.

'वात्सल्याद्यत्र मान्येन कनिष्ठस्याभिधीयते।
इष्टावधारकं वाक्यमाशीः सा परिकीर्तिता।।

अर्थः जाणट्या मनशान आपल्यापरस पिरायेन ल्हान आशिल्ल्याविशीं आपणेपणाची भावना मनांत धरून, ताच्या सगळ्या कामांत बरें येस चिंतप हाका आशीर्वाद अशे म्हण्टात.

आशीर्वाद आनी वरदान हातूंत थोडो फरक आसा. ब्राह्मण वा पुरयत आपल्या यजमानांक, कुटुंबांतल्या ल्हान व्हडांक सोयऱ्या-धायऱ्यांक त्याचवांगडा गुरु आनी संतपुरुस आपल्या शिश्यांक वा भक्तांक उद्देशून ज्या बऱ्या उतराचे उच्चारण करतात वा वचन म्हण्टात तांकां आशीर्वाद म्हण्टात. ईश्वर आनी देवता आपल्या भक्तांक उद्देशून इश्टसिद्धीविशींचे जें वचन म्हण्टात, ताका 'वरदान' म्हण्टात. आशीर्वादांत आशीर्वादासारकें घडचें अशी इत्सा आसता. वरदानांत दिल्ले वचन घडपासंबंदी निश्चिती आसता.

काळ, वेळ, सुवात त्याचवांगडा आशीर्वाद दिवपी आनी घेवपी हांचे नातें वा संबंद हांकां लागून आशीर्वादाचो संदर्भ जरी बदल्लो तरीय आशीर्वादाचो हेत दुसऱ्याचें बरें जावचें होच आसता. खंयच्याय बऱ्या मंगल कार्यांत आपल्या जाणट्याचो आनी ब्राह्मण हांचो आशीर्वाद घेवचो अशी पध्दत आसा. आशीर्वाद 'आयुष्यमान भव', 'स्वस्त्यस्तु', 'कल्याणभवतु' अशा सुटसुटीत उतरांनी दितात. लग्न जाल्ले बायलेक 'सौभाग्यवती भव', 'पुत्रवतीभव' अशा उतरांनी आशीर्वाद दितात. ब्राह्मणवेदांतले कल्याणपर मंत्र आशीर्वादाखातीर म्हण्टात. ऋग्वेदांतले मंत्र (१०.१.१६.१४-५) अशे आसातः

शतं जीव शरदो वर्धमानः
शतं हेमन्तान्शतमु वसन्तान्।
शतमिन्द्राग्नी सविता बृहस्पतिः
शतायुषा हविषेमं पुनर्दुः।।
आहार्षं त्वाविदं त्वा पुनरागाः पुनर्नव।
सर्वाङ्ग सर्वं ते चक्षुः सर्वमायुश्च तेऽ विदम्

अर्थः तूं शंभर शरद ऋतू, शंभर हेमंत ऋतू आनी शंभर वसंत ऋतू मेरेन जिवो उरूं. तुजी सदांच उदरगत जावं, इंद्र, अग्नि, आनी बृहस्पतीन ज्या योगान मनशांक शंभर वर्सां पिराय मेळटा अशा हविर्भागान (प्रसन्न जावन) शंभर वर्सांची पिराय तुका दिल्या. हांवें तुका बरी भलायकी दिल्या. तुजी सगळी परिस्थिती हांवें जाणल्या. परतून एक फावट नवी कूड धारण करपी दादल्या, तूंय आतां बरे अवस्थेंत आयला. हे व्हड आयुश्य आशिल्ल्या, तुजे दोळे आनी हेर सगळीं इंद्रियां, इतलेंच न्हय तर तुजी मुखावेली पिरायलेगीत म्हाका पुराय खबर आसा.

आशीर्वादाचो मंत्र जातकच यजमान उजव्या हातासकयल्या उपरण्याचो पदर घेवन तातूंतल्यान ब्राह्मणाकडल्यो अक्षता ग्रहण करता. त्यावेळार ब्राह्मण फुडलो मंत्र म्हण्टात.

श्रीर्वर्चस्वमायुष्यमारोग्यमाविधाच्छोभमानं महीयते।
धान्यं धनं पशुं बहुपुत्रलाभं शतसंवत्सरं दीर्घमायुः।।

वयल्या मंत्रांत 'शोभमानं' जाग्यार 'पवमानं' आनी 'धान्य धनं' जाग्यार 'धनं धान्यं' असोय पोटभेद आसा.

आशीर्वादाचो वैदिकेतर मंत्र असो आसा-

आशीर्वादाः सफलाः सन्तु पूर्णाः सन्तु मनोरथाः।
शत्रूणां नाशनं चास्तु मैत्राणामुदयस्तव।।

ह्या उपरांत यजमान आपल्या कुटुंबासयत ब्राह्मणांक नमस्कार करता. आशीर्वादा बगर कसलेंय बरें काम पुराय जालें अशें मानीनात.

- कों. वि. सं. मं.

**आश्रमः** वयोमानाप्रमाण आनी कर्तव्याप्रमाण भारतीय आर्य लोकांच्या जिविताची वांटणी करपाची वेवस्था आशिल्ली. ते वेवस्थेक 'आश्रम' म्हण्टात.

'आश्रम्यन्ति अस्मिन् अनेन वा इति।'

म्हळ्यार जे वेवस्थेक लागून वा जे वेवस्थेंत मनशाक चारीवटेन भोव

विस्तारान श्रम म्हळ्यार स्वाध्याय, नेमांचें पालन, तप करपाचे कश्ट करचे पडटात, तेचपरीं कर्तव्यपालनाचे सगळे तरेचे कश्ट करपाचे आसतात, ते वेवस्थेक 'आश्रम' म्हण्टात. हे तरेन कश्ट करून आपलें जिवीत ऊंच पांवड्यार व्हरप म्हळ्यार जिविताचें इति कर्तव्य जालें अशे भारतीय आर्य लोक समजतालें.

संस्कृतांतले 'आश्रम' हें उतर 'आ' उपसर्गपूर्वक 'श्रम' धातुसावन भाववाचक 'अ' प्रत्यय लावन तयार जालां. 'श्रम' धातुचो अर्थ 'कश्ट करप', 'आ' उपसर्गाचो अर्थ चारीवटेन 'भोव विस्तारान' असो जावं येता. 'अ' प्रत्यय धातुंतलो भाव दाखयता.

भारतीय आर्यलोकांच्या शास्त्रकारांनी मनशाची पिराय शंबर वर्सां मानून ताचे चार वांटे केल्यात. त्या वांट्यांक वा आश्रमाक १. ब्रह्मचर्य २. गार्हस्थ्य ३. वानप्रस्थ ४. संन्यास अशें म्हण्टात. जाबालश्रुतींत म्हळां- 'ब्रह्मचर्यं समाप्य गृही भवेत्, गृही भूत्वा वनी भवेत्, वनी भूत्वा प्रव्रजेत्।' ब्रह्मचर्य म्हळ्यार भुरगेपण ते जुवानपणाचो काळ. दुसऱ्या आश्रमांत ब्रह्मचर्य सोंपोवन गृहस्थ जावप, तिसऱ्या आश्रमांत गृहस्थी जावन वानप्रस्थांत वचप आनी चवथ्या आश्रमांत संन्यास घेवप.

ब्रह्मचर्याश्रमांत भुरग्यान गुरूगेर वचून अध्ययन करपाचें आसता. तेसंबंदीचे सगळे नेम शिस्तीन पाळपाचे आसतात. कांय विद्यार्थ्यांक चड शिकपाचें आसल्यार ते आनीक कांय वर्सां गुरूगेर रावताले. जे विद्यार्थी शिकप सोंपयताले, ते गुरुक दक्षिणा दिवन घरा येताले. सादारणपणान पिरायेची पंचवीस वर्सां मेरेन हो आश्रम पाळटात.

दुसऱ्या आश्रमांत 'गृहस्थाश्रम' आपणायतात. हो आश्रम आपणावन यज्ञ, प्रजोत्पत्ती आनी स्वाध्याय करून देव, पितर आनी ऋषी हांचे रीण मेकळें करपाचें आसता. हो आश्रम सादारणपणान पन्नास वर्सांमेरेन पाळपाचो आसता.

'वानप्रस्थाश्रम' ह्या तिसऱ्या आश्रमांत खास करून वासना, विकार, सुखाचो उपभोग ह्यो गजाली सोडपाच्यो आसतात. हो आश्रम ७५ वर्सांमेरेन पाळपाचो आसता.

'संन्याशाश्रम' हो निमाणो आश्रम आसून तातूंत मनशान आत्मज्ञान जोडून मुक्तीक वचपाचें आसता. मोक्ष जोडप हो ह्या आश्रमाचो हेत आसता.

चारुय आश्रमांभितर गृहस्थाश्रमाक चड म्हत्व आसून, मनून तर ताका खूब म्हत्व दिलां-.

यथा वायुं समाश्रित्य सर्वे जीवन्ति जन्तवः।
तथा गृहस्थमाश्रित्य वर्तन्ते सर्व आश्रमाः ।। (३.७७).

अर्थः जेपरी प्राणवायूच्या आदारान सगळे जीव जगतात तेचपरी, गृहस्थाश्रमाच्या आदारान सगळे आश्रम बेसबरे चलतात.

अशें जरी आसलें तरी जो मनीस लग्न, गृहस्थाश्रम आपणावपाची इत्सा करीना, पूण वैराग्य धारण करून एकदम मुक्तीक वचूंक सोदता, तो मनीस ब्रह्मचर्य आश्रमांतल्यान रोखडोच संन्याशाश्रम घेवंक शकता.

'यदहरेव विरजेत् तदहरेव प्रव्रजेत्।' म्हळ्यार ज्या दिसा वैराग्य प्राप्त जाता त्या दिसा संन्यास घेवचो.

भारतीय आर्यधर्माच्या तत्त्वांप्रमाण, मनीस जल्म-मरणाच्या चक्रांत घुस्पल्लो आसा. तातूंतल्यान मुक्त जावन मोक्ष मेळोवप हें भारतीय आर्य लोकांलें व्हडांतलें व्हड ध्येय आसलें. हें ध्येय हातासपाक आंगांत वैराग्य हाडचें पडटालें. मनशाक जल्मजात वैराग्य आसना वा तें आपसुकूच मेळना. मनशाच्या मनांतल्यो वासना, विकार, सुख मेळोवपाच्यो इत्सा आळाबंदा हाडूंक स्वताचीं इंद्रियां ताब्यांत दवरपाची गरज आसता. इंद्रियां ताब्यांत दवरप ही सादी सोपी गजाल न्हय, हें मतींत घेवन आर्यलोकांनी आश्रमवेवस्थेची बुन्याद घाली. आश्रमाचे चारुय वेवस्थेंत मनाक ल्हव ल्हव ताब्यांत हाडपाचें शिकप मेळटा आनी निमणे इंद्रियां जिखप सहज शक्य जाता.

आश्रमवेवस्थेफाटल्यान मनोवैज्ञानिक संबंद दिसून येता. ब्रह्मचर्य आश्रमांत गिन्यान जोडपावांगडा विवेक, संयम, मनोनिग्रह गूण वाडोवपाचे आसतात. गृहस्थाश्रमांत ताका वैषयिक सुखाचो आनंद उपभोगपाचो आसता. ताचे वांगडा सगळ्या इंद्रियांक संतुश्ट करून परतें जैत मेळोवपाचें आसता- म्हळ्यार विवेक, संयम, मनोनिग्रह, इंद्रियनिरोध सारख्या गुणांची आनीक वाड करपाची आसता. आपली जीण सुखान घालयत आसतना आपल्या भुरग्यांबाळांविशींचीं, समाजाविशींचीं, राष्ट्राविशींचीं कर्तव्यां ताणें बरे पध्दतीन करपाचीं आसतात. सादारणपणान पन्नास वर्सां जातकच मनशाक भौतिक सुखाची कल्पना येता. हें सुख खिणयाळें म्हणपाचें खरें गिन्यान ताका जाता. जेन्ना मनीस, जिणेंत शाश्वत म्हळ्यार सासणाचें सूख खंयसावन मेळटलें हें जाणा जावन घेवंक सोदता, तेन्ना तो आपले बायलेक वांगडा घेवन रानांत वता आनी वानप्रस्थ आश्रमांत रावन शाश्वत सुखाचो सोद घेवपाचो यत्न करता. जिणेंतल्यो सगळे तरेच्यो आसक्ती ना करपाचो तो यत्न करता. हे पध्दतीन आसक्ती सुटतकच ताणें संन्यास आश्रम घेवपाचो आसता. ह्या आश्रमांत रावन तपाचरणान भगवंताल्या 'तत्त्वमसि' तत्त्वाचो साक्षात्कार करून घेवपाचो आसता. शाश्वत सूख म्हळ्यार अशी स्थिती प्राप्त जावप.

मनशाच्या मनांत अर्थ (पैसो) आनी काम हांचेविशीं सदांच आकर्शण आसता वा ह्यो दोनूय गजाली जोडपाक तो सदांच आंवडेता. ह्यो गजाली पुरो अशें ताका केन्नाच दिसना. हाका लागून समाजाचो नैतिक पांवडो देंवता. मनशाच्या अंतस्कर्णांतल्या अर्थ आनी काम ह्या विशयांक फाव ती सुवात मेळची आनी मनशान ल्हव ल्हव तांचेसावन पयस वचून आपलें ऐहिक आनी पारमार्थिक हित साधून घेवचें हो हेत मतींत घेवन आश्रमवेवस्था घडली. महाकवी कालिदासान रघुवंशांतल्या राजांचें वर्णन अशे तरेन केलांः ते आश्रमवेवस्थेचें बरेतरेन पालन करताले. वानप्रस्थ आश्रम घेवपाची वेळ लागीं पावतकच ते राजा आपल्या राज्याचो भार आपल्या भुरग्यांच्या खांदार दवरताले. आपले बायलेक घेवन वनांत वताले. राज्य सोडून वतना तांकां मातूय वायट दिसनासलें. राज्याविशींचे मात लेगीत आकर्शण नासतालें.

आश्रमवेवस्थेंत सांगिल्लेभशेन वागल्यार मनशाक आपल्या मनाचे उदरगतीचें पुराय गिन्यान जावं येता, अशी भारतीय आर्यधर्माची धारणा आसा.

- डॉ. अनंत राम भट

**आश्लेषाः** भारतीय २७ नखेत्रांतलें णववें नखेत्र. हाका 'आश्रेषा' अशेंय म्हण्टात. हातूंत हायड्रा ह्या अस्तंती तारकाचोंब्यातल्या झीटा, एप्सायलॉन, डेल्टा, सिग्मा आनी ईटा ह्या नखेत्रांचो आस्पाव जाता. झीटा ह्या नखेत्राचे विशुवांश ८ ता. ५४ मि. क्रांती ६° ९' प्रत ३.३० आसून हें योग-नखेत्र (मुखेल नखेत्र) अशें मानतात. हीं चारुय नखेत्रां चवथ्या प्रतीचीं. हें नखेत्र पुष्य नखेत्राचे थेट दक्षिणेक आनी प्रश्वा (प्रोसियन) ह्या नखेत्राचे थेट उदेंतेक आसा. कांय जाण ईटा आनी सिग्मा हांचे सुवातीर कॅन्सर (कर्क) हातूंतलीं आल्फा आनी बीटा हीं नखेत्रां हातूंत घेतात. हें नखेत्र कर्कराशींत येता. सुमार २ ऑगस्टाक ह्या नखेत्रांत सूर्यप्रवेश जाता. हाची देवता सोरोप आनी आकृती चक्र अशें मानतात. ह्या नखेत्राचें मूर्तीधान्य अशें सांगलांः-

कोकास्या वा बिडालास्या रक्ताश्लेषा चतुर्भुजा।
अक्षकुण्डीधरा द्वाभ्यां सर्पालिङ्गनकारिणी।।

अर्थ- आश्लेषांची मूर्त ही रगता कोराची, कोलसुण्याच्या वा माजराच्या तोंडाची, चार हातांची, दोन हातांत फांशे आनी कुंड घेतिल्ली आनी दोनूय हातांनी सोरपांक वेंगावपी अशी करची.

- कों. वि. सं. मं.

**आश्विनः** हिंदू कालगणनेप्रमाण सातवो म्हयनो. ह्या म्हयन्याचे पुनवेक चंद्र अश्विनी नखेत्राच्या लागसार आसता म्हूण हाका 'आश्विन' हें नांव पडलें. हाका 'इष' हें दुसरें नांव आसा. ह्या म्हयन्यांत सूर्याचें तुळसंक्रमण जाता. आश्विनाक अश्वयुज वा शारद हींय नांवां आसात.

शुध्द पक्षांत घटस्थापना (प्रतिपदा), सतीची पूजा (चतुर्थी), ललितापंचमी, सरस्वती-उत्सव (पंचम ते नम), विजयादशमी, कोजागिरी वा ज्येष्ठापत्यनीरांजन (अश्विनी) आनी कृष्णपक्षांत वसुबारस, धनत्रयोदशी, नरकचतुर्दशी, लक्ष्मीपूजन (उमास) हे म्हत्वाचे दीस. ह्या म्हयन्यांत राम-रावण झूज, कृष्णाकडल्यान नरकासुराचो वध आनी पांडवांच्या अज्ञातवासाचो शेवट ह्यो घडणुको घडल्यो. आश्विन वद्य पक्षांत दुवादशीक गोवत्सांची पूजा आनी त्याच दिसा दत्तात्रयाचो उत्सव जाता. तिरोदशीक यमाखातीर दीपदान. चतुर्दशीक दिवाळेचें अभ्यंगस्नान.

ह्या म्हयन्यांतलें खाशेलें कृत्य 'घृतदान' हें जावन आसा. तेचप्रमाण पद्मनाभाचे भक्तीखातीर गाय, बैल, घोडो, तीळ, धंय हीं दानां करचीं अशेंय सांगलां. तमिळनाडूंत ह्या म्हयन्याक तुलामास अशें म्हण्टात आनी त्या म्हयन्यांत चड करून उमाशे दिसा कावेरी न्हंयत न्हाण करतात. गोंयांत श्री कामाक्षी देवस्थान, शिरोडें हांगा आश्विन शुक्ल पंचमीक श्री शांतादुर्गेखातीर देवकार्य जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**आषाढः** हिंदू कालगणनेप्रमाण चवथो म्हयनो. ह्या म्हयन्याचे पुनवेक पूर्वाषाढा वा उत्तराषाढा नक्षत्रांत चंद्र आसता म्हूण हाका 'आषाढ' हें नांव पडलें. हाका 'शूचि' अशें आनीक एक नांव आसा. सूर्य मिथुन राशींत आसतना आषाढाक सुरवात जाता. कर्कसंक्रांतीक श्राध्द करचें अशें सांगलां.

आषाढ म्हयन्यांत करपाचीं व्रतां अशींः

आषाढमेकभक्तेन स्थित्वा मासमतन्द्रितः।
बहुधान्यो बहुधनो बहुपुत्रश्च जायते।। (महाभारत)

अर्थः आषाढ म्हयन्यांत दिसांक एकदांच जेवण घेवन निरलस राविल्ल्यान खूब संपत्ती, धान्य आनी चल्यांची प्राप्ती जाता.

उपानधुगलं छत्र लवणामलकानि च।
आषाढे वामनप्रीत्यै दातव्यानि तु भक्तितः।। (वामनपुराण)

अर्थः आषाढ म्हयन्यांत वामनाचे भक्तीखातीर जोतीं, सत्री आनी मिठांतले आंवाळे दान करचे.

आषाढांत गोंयां आनी महाराष्ट्रांत पावसाचो नेट आसता. शुध्द एकादशीसावन विष्णूच्या शयनाक (न्हिदेक) आरंभ जाता म्हूण हिका 'शयनी एकादस' म्हण्टात. आषाढी एकादशीक पंढरपुराक व्हडली जात्रा भरता. थंयच्यान चातुर्मास सुरू जाता. शुध्द प्रतिपदेक कालिदास स्मृतिदीस मनयतात. ह्या म्हयन्याच्या मूळ नक्षत्रांत चंद्र आसता. त्या दिसा बेंदूर, पुनवेक व्यासपूजा, उमाशेक दीपपूजा तशेंच अधिक आषाढांत 'कोकिळाव्रत' ह्या परबांक लागून आषाढाक म्हत्व आसा. तेचप्रमाण आषाढांतुले अष्टमीक महिषासुरमर्दिनीची पूजा, दशमीक वरलक्ष्मीव्रत, पुनवेक अन्नदान आनी कृष्णाष्टमीक 'विनायकपूजा' हीं कृत्यां करतात.

**आषाढ पांवळीः** पयलींच्या काळांत ल्हान आसतना चलयांचें लग्न जातालें. आषाढ म्हयन्यांत एक दीस घोग्यांनी पावस पडटा आसतना लग्न जाल्ली एक चली ते आषाढ पांवळेक पळेत आशिल्ली. पळेता-पळेतां तिका आपल्या कुळारची याद आयली आनी खूब वायट दिसलें आनी योगायोगान त्या दिसा तिका मरण आयलें. ताच्यावेल्यान आषाढ म्हयन्यांत लग्न केल्ल्या चलयांनी कुळारा येवचें अशी प्रथा पडली. चलयेचो मांव आनी मांय कुळारा धाडपाक अनमनत म्हूण ती चली घोवागेर रावत जाल्यार तो म्हयनो मांवाक वायट वचूं येता असो समज निर्माण केलो अशेंय म्हण्टात.

**आषाढ-फुलांः** आषाढ म्हयन्यांत कुळारा आयिल्ले चलयेक फुलां माळपाची चाल पडली. ह्या फुलांक 'आषाढ-फुलां' अशें म्हण्टात. ज्या दिसा आषाढ फुलांचो सुवाळो जाता त्या दिसा ते चलयेचीं घरचीं मनशां येवन फुलां माळून तिका कुळारच्यान आपल्या घरा व्हरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**आसनः** हात आनी पांय एके खाशेले अवस्थेंत दवरुन, शरीर ताठ आनी थीर दवरप आनी ध्यानधारणेक बसप हाका 'आसन' अशें म्हण्टात. कामधेनुतंत्र-३१ त आसन उतरांतल्या तीन अक्षरांचे तीन विंगड विंगड अर्थ दिल्यात. आ=आत्मसमाधि, स =सगळ्या रोगांचो आळाबंद आनी न=सिध्दी जोडप.



पद्मासन

भारतांत सगळ्या धर्मसंप्रदायांभितर आसनाक खाशेलें म्हत्व दिलां. अहिर्बुध्न्य, वैष्णव, पांचरात्र सारक्या वैष्णव ग्रंथांत, हठयोग प्रदीपिका, घेरंड-संहिता, शिवसंहिता सारक्या हठ्योगी शैव ग्रंथांत आनी तांत्रिक बौध्द ग्रंथांभितर आसनांचीं वर्णनां आसात. ह्या सगळ्या आसनांचो आंकडो १६०० चेर पावता. तातूंत ३२ मुखेल आसात. कांय मुखेल आसनांमदीं भद्र, स्वस्तिक, पर्यंक, कमल, मयूर, वीर, सिंह, मुंड, शव, चिता, वज्र आदी आसनांचो आस्पाव जाता. वयलीं आसनां विंगड विंगड संप्रदायाच्यो पध्दती, विचारधारा आनी सिध्दांतांतल्यान कडेक पडल्यांत. देखीक, नाथसाधनेंत मुंडासन, चितासन, शिवासन आदी आसनां आपणायनात. रतिक्रिडा करतासतना कामसिध्दी मेळोवंक ८४ आसनांचो उपेग करूं येता अशें वात्सायानाच्या कामशास्त्र ग्रंथांत म्हळां.

मन एकाग्र आनी शांत दवरपाक आसनाचो व्हड उपेग जाता अशें अणभवी लोक मानतात. हठ्योग आनी राजयोग ह्या दोनूय योगमार्गांत आसनाचें व्हड म्हत्व मानलां. पातंजल योगसूत्रांत आसनाचें फुडलें लक्षण सांगलां- 'स्थिरसुखमासनम्-' म्हळ्यार ज्या योगान शरीर थीर जावन मनाक सुख मेळटा अशे तरेचे बसकेक 'आसन' म्हणचें.

हठस्य प्रथमाङ्गत्वादासनं पूर्वमुच्यते।
कुर्यात्तदासनं स्थैर्यमारोग्यं चाङ्गलाघवम्।।

अर्थः आसन हें हठ्योगाचें पयलें आंग जावन आसा. देखून पयलीं आसन करून उपरांत थीर जावपाचो यत्न करचो. आसनावरवीं मनशाची कूड चपळ जाता आनी भलायकी बरी उरता.

जैनांचे तीर्थंकर हे योगी आशिल्ल्यान जैन शिल्पकारांनी तांच्यो मूर्ती खाशेल्या आसनबंधांत कोरांतल्यात. कोयोत्सर्गासारकीं आसनां जैनांनी स्वतंत्रपणान सोदून काडल्यांत. जैनांनी आसनांच्यो पांच मुखेल तरा सांगल्यात.

पर्यङ्कमर्धपर्यङ्कं वज्रं वीरासनं तथा।
सुखारविन्दपूर्वं च कायोत्सर्गश्च सम्मतः। (ज्ञानार्णव)

अर्थः पर्यंक, अर्धपर्यंक, वज्र, वीर आनी सुखासन वा पद्मासनपूर्वक कायोत्सर्ग हीं पांच आसनां आसात (तांकां मोक्षासनां अशेंय म्हण्टात).

अहिर्बुध्न्य संहितेंत (अ.३०) इकरा मुखेल आसनां आनी तांचीं वर्णनां दिल्यांत. ह्या आसनांचो उपेग मन एकाग्र करपाखातीर सांगला. आसन म्हळ्यार बसपाची पध्दत, असो अर्थ घेतल्यार फुडलीं आसनां नामनेक पाविल्लीं दिसतातः

**वीरासनः** उजवें पावल जमनीर दवरून पांयांचीं बोटां आनी धोंपर जमनीक तेंकोवप. हे अवस्थेंत सगळें शरीर तोलून धरप आनी हडें मुखार हाडून शौर्याचो भाव दाखोवप, हाका 'वीरासन' म्हण्टात.



कुक्कुटासन

**कूर्मासनः** दोनूय पांय दोडून गुदद्वारा-सकल घेवप, हाका कूर्मासन म्हण्टात. मो हें जो द डो आनी हराप्पा ह्या सुवार्तीनी सां प डि ल्या कांय मुद्रांचेर प शु प ती कूर्मासनाचेर बशिल्लो दिसता.

**पद्मासनः** दावें पावल उजवे मांडयेर आनी उजवें पावल दावे मांडयेर दवरून बसप.

**कुक्कुटासनः** १. पद्मासन घालून दोनूय हात जमनीक तेंकोवप आनी ताचेर भार घालून पुराय शरीर उखलून वेलेवयर लांबयत दवरप. २. दोनूय पावलां जमनीर दवरून धोंपरां उबीं करप आनी शरीराचो भार पांयार घालून ओणव्यांनी बसप.

**सिंहासनः** कूर्मासनाप्रमाण पांय दोडून बसप. हाताची बोटां पातळावन दोनूय तळवे मांडयांचेर दवरप. तोंड उक्तें आनी नदर नाकाच्या तोंकार दवरप.

**भद्रासनः** दोनूय पांय दोडून तळवे उबे अवस्थेंत जननेंद्रिया सकल घेवप आनी दोनूय हातांनी पांयाचे आंगठे धरप.

**वज्रासनः** पावलां मांडयेर घेवन ताचे तळवे उमथे दाखोवप. ताचेवेल्यान हाताचे तळवे दवरप.

तेभायर चक्र, मयूर, स्वस्तिक, मुक्त आनी गोमुख हीं आसनांय म्हत्वाचीं मानल्यांत. योगसूत्रांत व्यासभाश्यांत वयली आसनां सोडून दंडासन, सोपाश्रय (हाचेखातीर योगपट्ट्याचो आदार घेतात) पर्यंक, क्रौंचनिषदन, हस्तिनिषदन, उष्ट्रनिषदन, समसंस्थान, स्थिरसुख आनी यथासुख हीं आसनां सांगल्यांत.



भद्रासन

भारतीय मूर्ति-कलेंत मूर्ती कोरांतता आसतना पद्मासनाचो वापर व्हड प्रमाणांत केला. राजकारणी मनशाच्यो मूर्ती चड करून वीरासनाचेर दिसतात. कांय देवता उत्कूटिकासनाचेर बशिल्ल्यो दिसतात. तळवे कुल्यांक लागीं येतले अशे त रे न मांडी घालची. धोंपर वयर उखलचें. मागीर फुडें बागोवन दोनूय हात धोंपरांचेर दवरचे आनी धोंपरां थीर उरचीं म्हूण ताका योगपट्ट्यान बांदचीं. अशा आसनाक उत्कूटिकासन म्हण्टात. पर्यकासनांतले मूर्तीची बसका ऊंच आसून दोनूय पांय सकयल सोडिल्ले आसतात. ललितासनांत एक पांय लांबिल्लो आनी दुसरो दोडून घेतिल्लो आसता.

देव-देवता, साधु-संत वा मनीस यज्ञयाग, पूजा अर्चा, ध्यान धारणा करपाक, जेवणखाण वा विसव घेवपाक त्या त्या कामाप्रमाण खाशेल्या अशा बसकांचो (पाट, मंच, शिंवासन, कदेल, चामडें, शेंदरी) वापर करतात. ते बसकेखातीर वापरिल्ल्या वस्तूक वा साधनांक आसन म्हण्टात. आन्हिकसारांत रस्मी वस्त्रां, कांबळ, कृष्णाजीन, पातळ रंगीत वस्त्र, लांकडी पाट आनी ताडपत्र हातूंतलें खंयचेंय एक आसन घेवचें अशें म्हळां. वेळूची शेंदरी, फातर, तण हीं आसनां निशिध्द मानल्यांत. हो नेम दर्भ वा कुशाक लागू जायना.

कृष्णमृगचर्माच्या आसनाचेर साधकांक मुक्ती मेळटा. व्याघ्रचर्माचेर गिरेस्तकाय मेळटा. कंबलासनाचेर मनांतली इत्सा, काम पुराय जाता. त्रिपुर सुंदरीचे पूजेखातीर तांबडें कंबलासन सगळयांत बरें अशें गंधर्वतंत्रांत सांगलां. कृष्णमृगासनाचो उपेग यती, वानप्रस्थी, ब्रह्मचारी आनी भिक्षु हे लोक चड करतात. मातयेचें आसन दुखाक कारण जाता. लांकडाचें आसन दुर्भग्याक कारण जाता. योगिनीहृदयांत, लांकडाचें आसन आनी कंबलासन एकठांय वापरल्यार पुण्य मेळना, अशें सांगलां. हंसमहेश्वर तंत्रांत ल्हव आशिल्लें चर्मासन वापरल्यार सगळयो सिध्दी नश्ट जातात अशें सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**आसाम:** भारताचे ईशान्य दिकेक आशिल्लें राज्य. अक्षांश आनी रेखांश २४° ९′ उत्तर ते २८° १६′ उत्तर आनी ८९° ४२′ ते ९७° ते १२′ उदेंत. ह्या राज्याचे अस्तंतेक अस्तंत बंगाल आनी बांगलादेश, वायव्य आनी उत्तरेक भूतान, उत्तर आनी ईशान्येक अरुणाचल प्रदेश, उदेंतेक मणिपूर, नागालँड आनी अरुणाचल प्रदेश, दक्षिणेक मेघालय आनी मिझोराम, नैऋत्येक त्रिपुरा हीं राज्यां येतात.

**भूंयवर्णनः** आसामच्या तीन सैमीक विभागांत ब्रह्मपुत्रेचें देगण, सुरमा देगण आनी ह्या दोनूय भागांमदल्यो दोंगरांच्यो वळी हे वाठार आस्पावतात. ब्रह्मपुत्रेचें उदेंत अस्तंत देगण ८० ते १६० किमी. रुंद आनी ८०० किमी. लांब आसा. ह्या देगणाचे उत्तरेक हिमालयाच्या मुळसांतल्यो दोंगुल्ल्यो, दक्षिणेक मेघालयाच्यो गारो, खासी, जैतिया आनी उदेंतेक नागालँडांतल्या पातकई दोंगुल्ल्यांचे चोमे आसात. ह्या देगणाच्या उदेंतेक जायत्यो न्हंयो मेळून तयार जाल्लो ब्रह्मपुत्रेचो प्रवाह भितर सरता. सुरमा वा बराक न्हंयचें देगण २०० किमी. लांब आनी ९६ किमी. रुंद आसा. हो वाठार सादारणपणान सपाट आसा. ह्या देगणांतल्यो न्हंयच्यो देगो गाळाक लागून ऊंच जाल्यात. ह्या न्हंयच्या वाठारांतलीं खेडीं पावसाच्या दिसांउपरांत तळयांतले जुंवे कशे दिसतात. ह्या वाठारांत कांय जाग्यांनी मोटव्या दोंगुल्ल्यांक लागून तयार जाल्ले चिखलाचे वाठार आसात. वयल्या दोन न्हंयांच्या देगणामदीं तिसऱ्या सैमीक विभागांतल्यो दोंगरांच्यो वळी उदेंत-अस्तंत पातळल्यात.

ब्रह्मपुत्रेचो आनी सुरमेचे देगेवयली जमीन पिकाळ आसून तातूंत रेंवेचें प्रमाण उणें आसता. न्हंयेदेगेवयली माती थरांचे फातर झिजून तयार जाल्या. दोंगरी वाठारांतली माती तांबडी आनी फातरांची आसता. रानवट वाठारांतली माती झाडांच्या कुशिल्ल्या पानांक लागून तयार जाल्या.

आसामांत ब्रह्मपुत्रेभायर दिबांग, सुबनसिरी, भरेळी, धनसिरी, बोरनदी, मनास, पामती, सरलभंगा, संकोश, लोहित, नोआ, बुरी, दिहिंग, दिसांग, दिखो, झांझी, दक्षिण धनसिरी, कपिली, दिग्नू, जिरी, जनिंगा, सोनाई, ढालेश्वरी ह्यो ल्हान-व्हड न्हंयो व्हांवतात.

उत्तर सुबनसिरी-ब्रह्मपुत्रा संगमाचेर सिबसागरलागीं माजुली हो १२६१ चौ. किमी. आवांठाचो जुंवो न्हंयच्या पात्रांत वसला.

आसामांत भूंयकापांचें प्रमाण खूब चड आसा. फाटल्या साडे-तीनशीं वर्सांत ह्या वाठारांत सात मोटे भूंयकांप जाले. १८९७ त आनी १९५० त आसामांत जाल्ले भूंयकांप, संवसारांतल्या मोटव्या भूंयकापांमदले जावन आसात.

**हवामानः** आसाम राज्याचें तापमान, गिमाच्या दिसांनी लेगीत २९.४° से. वयर वचना. आसामांत पावस जून ते सप्टेंबर म्हयन्यांत पडटा. वर्साक सादारणपणान १७५ सेंमी. ते ३०५ सेंमी. पावसाची नोंद

जाता. आसामाच्या उदेंत भागांत चड पावस पडटा. पावसाच्या प्रमाणाक लागून ह्या राज्याक ओलो दुकळ आनी हुंवाराचो त्रास जाता. शिंयाळ्याच्या दिसांनी हांगाच्या ऊंच दोंगुल्ल्यांचेर बर्फ पडटा. अस्तंत आसामांत गिमाच्या दिसांनी व्हडलीं वादळां जातात.

**वनस्पत आनी मोनजात :** पुराय आसामांत विंगड विंगड प्रकारची वनस्पत आनी मोनजात दिश्टी पडटा. वनस्पतीं भितर साल, साग, देवदार, ओक, होलौंग, बंसम, अमारी, गमारी, अझार, सिसू, सिमुल, वेत, कळक, बोरू हे प्रकार खास करून दिसतात.

हत्ती, गेंडो, रानरेडो, वेगळ्यावेगळ्या जातीची हरणां, काळो चितो, मलायी वांस्वेल, सांबर, कस्तुरीमृग, रानदुकर, धवो माकड हीं आसामांत दिसपी मुखेल जनावरां आसात.

**इतिहास :** आसाम राज्याक पुराणकाळांत प्राग ज्योतिषपूर आनी कामरूप ह्या नांवांनी वळखताले. फुडें तेराव्या शतमानांत ब्रह्मदेशांतल्यान येवन ब्रह्मपुत्रेच्या देगणांत येवन रावील्ल्या शानवंशियांक थळावे लोक 'आहोम' म्हणटाले. आहोम म्हळ्यार जाची 'बरोबरी करपाक येना असो' - 'अप्रतीम'. सगळ्यांत बरें म्हळ्यार 'असम' ह्या उतरासावन 'आसाम' हें नांव पडलें अशें मानतात.

महाभारत आनी रामायण ह्या पुराणग्रंथांत आसामाचो उल्लेख आयला. तातूंत आसाम (प्राग ज्योतिषपूर) नरकासूरान वसयिल्लें राज्य अशें म्हळां. ताच्याउपरांत ताचो चलो भगदत्त हाणे ह्या प्रदेशाचेर राज्य केलें. तेउपरांत माधव, जितारी, आशीर्मत ह्या तीन वंशांनी पोरन्या आसामाचेर राज्य केलें, हें वंशावळीवेल्यान समजता. कालिका पुराण आनी योगिनी तंत्र ह्या ग्रंथांत ह्या प्रदेशाचेर जायत्या असूर आनी दानव राजांनी राज्य केल्ल्याचो उल्लेख आयला. रघुवंशांत (४.८३) कामरुपाधिपतीन रघुराज्याक हत्तींची भेट दिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. आसामाचेर आर्य संस्कृतायेचो प्रभाव बरोच उसरां पडलो, अशें विद्वानांचें मत आसा.

आसामाचो चवथ्या शतमानामेरेनचो इतिहास अस्पश्ट आसा. चवथ्या शतमानाच्या मदीं वर्मन वंशाचो मूळ पुरूस 'पुष्यवर्मन' हाणे कामरूपांत राज्याची थापणूक केली, असो अदमास आसा. हे वंशकुळयेंतल्या महेंद्रवर्मा ह्या राजाच्या काळांत कामरुपाचें म्हत्व वाडलें. सव्या शतमानाच्या मध्याक भूतिवर्मनान राज्याचो विस्तार केलो. ह्या वंशांतलो भास्कर वर्मन हो हर्षाचो समकालीन आसलो. एक




फावट ताणे हर्षाकडेन कबलात करून बंगालांतलें कर्णसुवर्ण राज्य हाताशिल्लें. फुडलीं तीन शतमानां शालस्तंभ वंशीयांनी कामरुपाचेर राज्य केलें.

बाराव्या शतमानाच्या मदीं बंगालाच्या पाल राजांचो मांडलिक तिंग्यदेव हाच्या ताब्यांत हो वाठार आसलो. हाचें बंड मोडपाक गेल्लो सेनापती वैधदेव त्या राज्याचो राजा जालो. वैधदेवा फाटल्यान बंगालाच्या सेन राजांचो शेक आसामाचेर चल्लो. तेराव्या शतमानांत लखनावतीच्या मुसलमानी राज्यांनी ह्या वाठाराचेर जायत्यो घुरयो घाल्यो पूण तांकां अपेसच आयलें. तेराव्या शतमानांत गोविंददेव आनी ईशान्यदेव हाणी ह्या वाठाराचेर शेक चलयलो. तेराव्या शतमानांत आहोम जमातीचे लोक सुकाफाच्या फुडारपणाखाला लखिमपूर सिबसागर जिल्ल्याचे दक्षिणेक आयले आनी ताणी थंयच्या थळाव्या रानवट

जमातींक जिखून राज्याचो विस्तार केलो. उदेंत बंगालांतल्या कामता राज्याचेर चवदाव्या शतमानाच्या मदीं ताबो जोडलो. १५३८ त, आहोम राजा सुहुंगमुंग हाणें उदेंतेक सदिया भोंवतणी आशिल्लो चुतियाचो व्हडलो वाठार आपल्या ताब्यांत घेतलो. ह्या काळांत आहोमांनी नागा लोकांच्या आड जायत्यो घुरयो घाल्यो. सोळाव्या शतमानांत आहोमांनी नौगोंगच्या लागीं आशिल्लें बळिश्ट काचाराचें राज्य जिखलें आनी तांकां मैबांग (उत्तर काचार) मेरेन धांवडायले. काचाराची राजधानी दिमापूर जिखून उदेंतेकडलो वाठारय आपल्या राज्याक जोडलो. उदेंत बंगालच्या मुसलमानी राजांच्या घुरयांक तोंड दीत ब्रह्मपुत्रेच्या देगणांतय तांणी आपलो शेक चलयलो. १५२९ च्या झुजांत मुस्लीम सेनापती तुर्बकाक तांच्या आड झुजतना हार खावची पडली, तर सतराव्या शतमानांत मोगलांची काचारावेली घुरी फसली. फुडें मोगलांनी कुचबिहार-कामरुपाचेर ताबो मेळयिल्ल्यान सुमार एक शतमान आहोमांक मोगलांआड झुजचें पडलें. १६३७ त कोच राजघराण्यांतल्या बलिनारायण हांकां आहोम राजा प्रतापसिंगान मोगलांआड आश्रय दिलो. ह्या कारणाक लागून आहोम- मोगल संघर्श सामको खर जालो. झुजा उपरांतच्या काळांत मोगल-आहोम राज्यांच्या मजगतीं बडनदी ही शीम थारायली. १६५८ त कुचबिहारच्या प्राणनारायणान मोगलांआड केल्ल्या बंडाचो फायदो घेवन आहोम राजा जयध्वजसिंगान ब्रह्मपुत्रेच्या देगणाचेर ताबो मेळयलो. मीर जुम्ला हाणें १६६३ उपरांत ह्या वाठाराचेर शेक गाजयलो; पूण ताका हरोवन रांगामातीमेरेन आपलो ताबो जोडलो. १६८१ त राजा गदाधरसिंगान मोगलांक सासणाचे ह्या वाठारांतल्यान धांवडावन घाले. ताचो चलो रूद्रसिंग (१६९६-१७१४) हाणें ह्या राज्याचो आनीकय विस्तार केलो. ताणें काचारी लोकांकडल्यान नौगोंगचो दक्षिण भाग आनी उत्तरेंतलें मैबांग ठाणे घेतिल्ल्यान काचारांनी आपली राजधानी खाग्नपूराक व्हेली. खासी-जैंतिया जमातीकय ताणें हारयले पूण तांचो वाठार आपल्या ताब्यांत घेतलो ना. रुद्रसिंगान मांडलीक राजांचो पंगड निर्मुपाचो यत्नय केलो.

अस्तंत आसामांत कामता नांवाचेंय एक राज्य आसलें. चवदाव्या शतमानाचे सुर्वेक राजा दुर्लभनारायणाक लागून थंय विद्वानांक आलाशिरो मेळ्ळो. ताणें वैष्णवपंथाच्या प्रसाराकय आपलें फाटबळ दिलें. पंदराव्या शतमानांत ह्या वाठारांत खेणवंश वयर सरलो. १४९८ त बंगालच्या हुसैनशहान हांगाचो राजा नीलांबराक हरयलो. कांय वर्सांउपरांत विश्वसिंगान अस्तंत आसामांतल्या ल्हान ल्हान राजांक जिखून कोच राज्याची थापणूक केली. हांगाच्या कामाख्या देवळाचो जीर्णोध्दार केलो. आहोमाकडेन बरेपण दवरून मुसलमानांक पयस केले. ताचो चलो नरनारायण हाणें ह्या राज्याचो विस्तार केलो (१५३३-८४). ह्या काळांत कला-साहित्य ह्या गजालींक बरे दीस आयले. ताणें कांय काळ आहोमांचेर लेगीत आपलो शेक चलयलो. 'अकबरनाम्यांत' लेगीत ताच्या गिरेस्तकायेचीं वर्णनां आयल्यांत. नरनारायणाचो पुतणयो रघू हाणें १५८१ त जेन्ना बंड केलें, तेन्ना ताका संकोश न्हंयचे पलतडचें कुचबिहार राज्य तोडून मेळ्ळें. सतराव्या शतमानाचे सुर्वेक भितल्ल्या मतभेदांक लागून कोच राज्याचो कांय वाठार मोगल साम्राज्यांत विलीन जालो आनी उरिल्लो वाठार आहोमांच्या हाताखाल उरलो.

अठराव्या शतमानांत सुर्वेच्या काळांत आहोमांनी हिंदूधर्म आपणायलो. शिक्षण आनी कलांक तांणी आपलें फाटबळ दिलें. शाक्त आड वैष्णव हीं धर्मीक झगडीं ह्याच काळांत सुरू जालीं. राजाच्या आदारान शाक्त पंथीयांनी 'मोआमारिया' ह्या नववैष्णवपंथीयांचो खर छळ केलो. नववैष्णवपंथीयांनी १७६९ त ह्या छळाक लागून राजा आड बंड केलें आनी राजा लक्ष्मीसिंगाक बंदखणींत उडयलो. हें बंड रोखडेंच मोडून काडलें. पूण १७८६ त, मोआमारियांनी राजाचे सेनेक हारयली, तेन्ना राजा गौरीनाथसिंग गुवाहाटी हांगा पळून गेलो. प्रधान पूर्णानंद बडा गोहाइन हाणें बंडखोरांआड झूज चालू दवरलें, पूण ताकाय निमाणें अपेसच आयलें. त्याचवेळार कोच राजा कृष्णनारायण हाणें दरंग ठाण्याचेर घुरी घालून उत्तर कामरुप जिखलें. ह्या वेळार गुवाहाटी शारांक उप्राशिल्लो धोको पळोवन गौरीनाथसिंगान ब्रिटिशांकडेन आदार मागलो. अशे तरेन ब्रिटिशांनी आसामांतल्या राजकारणांत आपलो प्रवेश केलो. १७९२ त, लॉर्ड कॉर्नवॉलिसान, कॅप्टन वेल्शाच्या मुखेलपणाखाल एक पंगड आसामांत धाडलो. राज्यांत पुराय सवस्तकाय येतकच कॅप्टन वेल्स परतो गेलो. तो गेल्या उपरांत राज्यांत परती अशांतताय माजली. १८१० त चंद्रकांत राजान आसामची सत्ता आपल्या हातांत घेतली; पूण गुवाहाटीच्या राज्यपालाकडले संबंद इबाडिल्ल्यान ताणें आपलें राज्य थीर करपाखातीर ब्रह्मदेशाचो पालव घेतलो. वयल्या कारणांक लागून आसाम राज्य कांय काळ ब्रह्मदेशाच्या हातांत उरलें. इ.स. १८२४ त ब्रह्मदेश आनी ब्रिटीश हांचे मदीं झूज जालें. १८२६ त दोनूय पंगडांमदीं कबलात जाली आनी तेवरवीं ब्रह्मदेशान आसाम प्रांत ईस्ट इंडिया कंपनीक दिलो. अशेतरेन आसामाचेर ब्रिटिशांचो शेक चलपाक लागलो. दुसरे वटेन भितल्ल्या मतभेदांक लागून पिडिल्ल्या आहोमांसावन फायदो घेवपाचो खासपूरच्या काचारांनी आनी मणिपूरच्या राजांनी यत्न केलो. तेखातीर आहोमांनी ब्रिटिशांकडेन १८१७ वर्सा मागिल्लो आदार १८२४ त तांकां मेळ्ळो.

ब्रिटिशांनी ते उपरांत मणिपूराआड काचाराक पालव दिवन हो वाठार आपल्या हातांत घेतलो. तशेंच तुलाराम सेनापतीकडेन आशिल्लो काचार; आहोम राजा पुरंदरसिंग कडेन आशिल्लो सिबसागर आनी लखिमपूरचो कांय वाठार; बोड सेनापतीकडेन आशिल्लो दक्षिण लखिमपूर, सादिया खोबा; गोहाईन कडेन आशिल्लो सादिया हे वाठार ईस्ट इंडिया कंपनीन १८४२ मेरेन आपल्या ताब्यांत घेतले. १८७४ मेरेन आसामाचो कारभार कलकत्त्यासावन चलतालो. १८७४ वर्सा आसाम मुखेल आयुक्ताचो प्रांत जालो. ह्या वेळार शिलाँग ही ह्या राज्याची राजधानी जाली. ह्या प्रांताच्या अधिकारांत आयचीं नागालँड, मेघालय, अरुणाचल प्रदेश हीं राज्यां आस्पावल्लीं. दोंगरी प्रदेशांतल्या जमातींक स्वायत्तता मेळ्ळी. १९०५ ते १९११ काळांत आसामचो वाठार, फाळणी जाल्ल्या बंगालच्या उदेंत भागाक जोडिल्लो आनी ह्या वाठाराचो कारभार नायब राज्यपाल पळेतालो. वंगभंग रद्द जातकच आसाम परत मुखेल आयुक्ताचो प्रांत जालो. १९१९ वर्साच्या कायद्यावरवीं आसाम 'राज्यपालाचो प्रांत' जालो.

आसामाक विंगड विंगड कारणांक लागून आपलो वाठार, व्हड प्रमाणांत वगडावचो पडला. १९४७ जाल्ले फाळणेंत आसामाचो सिल्हेट जिल्हो उदेंत पाकिस्तानांत तर देवनागरी प्रदेश भूतानांत गेलो. १५ ऑक्टोबर १९४८ दिसा त्रिपूरा आनी मणिपूर हीं संस्थानां आपलें वेगळें अस्तित्व राखून उदेंत भारतांत विलीन जालीं. १९४८ त नेफा प्रांत (आयचो अरुणाचल प्रदेश) आसामासावन वेगळो जालो. १९५० तल्या संविधानावरवीं आसाम 'अ' वर्गांतलें राज्य जालें. १ डिसेंबर १९५७ दिसा नागालँड आसामासावन वेगळें जालें. १ डिसेंबर १९६३ दिसा नागालँडाक राज्याचो पांवडो मेळ्ळो. २ एप्रिल १९७० ह्या दिसा 'मेघालय' आसाम राज्यांतल्यान वेगळें काडलें. २१ जानेवारी १९७२ दिसा मेघालयाक राज्याचो दर्जो मेळ्ळो. १९७२ वर्सा मिझोराम आसामासावन वेगळें काडून संघप्रदेश केलो. जानेवारी ८७ त मिझोराम तर २० फेब्रुवारी १९८७ दिसा अरुणाचल प्रदेशाक राज्याचो दर्जो मेळ्ळो.

**राज्यवेवस्थाः** आसाम हें भारतीय संघराज्याचें एक घटकराज्य आसून राष्ट्रपतीन नेमिल्ल्या राज्यपालाच्या संमतीन मंत्रीमंडळ राज्यकारभार चलयता. मंत्रीमंडळ विधानसभेक जापसालदार आसता. विधानसभेंत ११४ वांगडी आसतात तर लोकसभेंत आनी राज्यसभेंत आसामाचें प्रतिनिधीत्व अनुक्रमान १४ आनी ७ वांगडी करतात. भलायकी, शिक्षण, शेतकी, जंगल, उद्देगधंदे, सहकार, महसूल, समाजकल्याण, मागाशिल्ल्या वर्गीयांचें पुनर्वसन, पुरवण, उत्पादन कर, वीज, रस्ते, बांधकाम, कामगार, गटविकास येवजणी आनी हेर खात्याचो कारभार मंत्री आनी कर्मचारी सरकारी यंत्रणेच्या पालवान हाताळटात. जिल्हो

आनी पंचायत समित्यो ग्रामीण वाठारांतली भलायकी, मुळावें शिक्षण, ग्रामीण रस्ते, थळावी उदका पुरवण, ल्हान उद्देगधंदे, शेतवड, जनावरां पोसप, सहकार, सर्वांगीण उदरगत आनी हेर विशय हाताळटात. पयलीं आसाम, नागालँड आनी मेघालय ह्या तीन राज्यांचो एक राज्यपाल आसतालो. सद्या ह्या राज्याक स्वतंत्र राज्यपाल मेळ्ळा. आसाम राज्य बारपेटा, काचार, दरंग, दुब्री, दिब्रुगड, गोलपारा, जोरहाट, कामरुप, कारबी आंगलाँग, करीमगंज, कोक्राजार, लखीमपूर, नौगांग, उत्तर कचार, नलबारी, प्रागज्योतीषपूर, सिबसागर, सोनीतपूर ह्या अठरा जिल्ह्यांनी सद्या वांटिल्लें आसा.

**अर्थीक स्थितीः** आसामांतली जमीनदारी पध्दत बंद करून शासनान थंयची भूंय रयतवादी पध्दतीन लोकांक वांटून दिल्या. राज्यांतल्या श्रमिक लोकांमदले ७० % लोक शेतकी-उद्देगांत आसात. पिकाळ वाठारांमदलो ७० % वाठार पिकावळी खातीर वापरतात. भात हें ह्या राज्याचें मुखेल पीक आसून बटाट, दाळ, मको, सांसवां आनी हेर शेत-धान्यां हांगा पिकतात. च्याक लागून हो वाठार संपन्न आसून, वट्ट वर्सुकी उत्पादनांतलो ८१% च्या भायर निर्यात जाता. तेभायर ताग, कापूस, तेलबियो, ऊंस, मोसंबी, हीं पिकांय आसामांतले शेतकार पिकयतात. भारतांतले सगळ्यांत व्हड कोंड्याचें राखीव वन आसामांत आसून भारताच्या वट्ट कोंड्यांच्या उत्पादनांतलें ४२% उत्पादन आसामांत जाता.

आसामांत कोळसो, चुनखडी, पेट्रोलियम, सिलिमॅनाइट, भट्टेंतली माती, डोलोमाइट, कॉरंडम आनी सैमीक वायू ह्या खनिजांचें उत्पादन जाता. भारताच्या वट्ट उत्पादनांतलो ५०% पेट्रोलियम, सैमीक वायू आनी अशुध्द तेल आसामांत मेळटा. नहर कटीया आनी मोरान भोंवतणी सुमार ४.३ कोटी टन तेल आनी ५७ कोटी घनमीटर जळपी वायू हांचे सांठे आसात. भट्ट्यांखातीर आनी विटो घडोवपाखातीर लागपी चिकणमाती आनी शेड हांचेंय कांय प्रमाणांत उत्पादन ह्या राज्यांत जाता.

आसामांत पर्यटनाचें म्हत्व वाडीक लागलां. भारत सरकारान आसामांतल्या गुवाहाटी- काझीरंगा- सिबसागर आनी गुवाहाटी-मनास ह्या दोन वाठारांक पर्यटनविभाग म्हूण मान्यताय दिल्या. आसाम सरकार गुवाहाटी-बैराबकुंडा-ओरांग-भालूकिंग- तेजपूर आनी गुवाहाटी डीफू-हाफलॉग-सिल्चर ह्या दोन वाठारांक 'पर्यटनविभाग' म्हूण उदरगतीक हाडूंक वावुरता. वयले दोन विभाग अरुणाचल प्रदेश, मणिपूर, मिझोराम ह्या राज्यांक जोडिल्ल्यान, ईशान्य भागांत पर्यटन वेवसायाक बरे दीस येतले अशें जाणकार मानतात.

आसामांत दिग्बोई आनी नूनमती हांगा तेलशुध्दीकरणाचो कारखानो आसा. नारंगी हांगा १२.५ मॅगावॅट तांकीचें एक औष्णिक वीजनिर्मणी केंद्र आसा. धुब्री हांगा एक व्हड फस्कां काडयांचो कारखानो आसा. नामरुप हांगा सरकारी सान्या कारखानो आसा. शेत-पिकावळीचेर आदारिल्ले जायते शेतकी-कारखाने ह्या राज्यांत वयर सरल्यात, तातूंत च्या कारखान्यांचो पयलो क्रमांक आसून हेर कारखाने साखर, ताग, रेशीम, कागद, प्लायवूड, भात आनी तेलाचे आसात. ते भायर राज्यभर आशिल्ल्या ७५० च्या मळ्यांनी लाखांनी कामगार काम करतात. आसामांत पांच जिल्हा उद्येगीक केंद्रांची थापणूक जायत सावन उद्येगिकरणाक नेट आयला.

**येरादारी आनी संचारणः** राज्यांत उदकामार्गांक खाशेलें म्हत्व आसून वेपाराची हाड-व्हर करपाखातीर न्हंयांचो वापर जाता. निआमती, तेझपूर, गुवाहाटी, गोआलपाडा, धुब्री, करीमगंज, सिल्चर आनी हेर जाग्यांमजगतीं उदकामार्गान येरादारी चलता.

गुवांहाटी लागीं मालिगांव हांगा ईशान्य शीम रेल्वेचें मुख्यालय आसा. ह्या रेल्वे-विभागांत ३,५८३ किमी. रेल्वे रस्ते आसात (१९८४). आसामांतल्या वट्ट रस्त्यांतले ८०% रस्ते सपाट वाठारांतल्यान वतात तर उरिल्ले दोंगराळ वाठारांतल्यान वतात. १९८१-८२ मेरेन आसामांत ५९,५७९ किमी. लांबायेचे रस्ते बांदिल्ले.

आसामसयत उदेंत भारत, भारताच्या कोनशाक पडिल्ल्यान आसामांत विमान येरादारीक खास म्हत्व आयलां. गुवाहाटीसावन तेझपूर, जोरहाट, दिब्रुगढ, लखीमपूर, सिल्चर, धुब्री आनी हेर वाठारांत नेमान उड्डाणां जातात. गुवाहाटी हो भारतांतल्या म्हत्वाच्या विमानतळां मदलो एक जावन आसा.

आसाम राज्यांतल्यान भायर सरपी मुखेल दिसाळ्यांमदीं 'दैनिक आसोम' (आसामी), 'दैनिक जन्मभूमी' (आसामी), 'न्यूज स्टार' (आसामी), 'द आसाम ट्रीब्यून' (इंग्लीश), 'आसाम एक्सप्रेस' (इंग्लीश) हांचो आस्पाव जाता.

**लोक आनी समाजजीणः** सन १९७१ चे जनगणनेप्रमाण आसामाची लोकसंख्या १,४६,२५,१५२ आसा. १९८१ त, आसामांत जनगणना जावंक ना. त्या वर्साच्या अदमासाप्रमाण हो आंकडो १,९८,९६,८४३ इतलो आसूंक जाय. दर चौ. किमी.. क २५४ लोक पडटात. १००० दादल्यांक ९०१ बायलो इतलें प्रमाण आसा. १९७१ त, गांवगिऱ्या वाठारांतली वसती ९१.६% आसली. जनन प्रमाण हजाराक ३४ इतलें आसलें. राज्यांत ७३% हिंदूधर्मीय, २४.५% इस्लामधर्मीय, २.६% किरिस्तांवधर्मीय आसात. तेभायर शीख, बौध्द, जैन हे धर्म हांगा थोड्या प्रमाणांत आसात.

आसामांत विंगडविंगड तरेच्यो जाती जमाती विंगडविंगड काळखंडांत येवन रावल्यो. हातूंत ऑस्ट्रो-एशियाटीक, निग्रोइड, द्रविड, आल्पायनस, इंडो-मंगोलॉयड, तिबेटी-बर्मीज, आर्य हांचो आस्पाव जाता. आसामांत ज्यो जायत्यो जमाती दिसतात, तातूंतल्यो मिकीर, नागा, पाची, लखेर, कुकी, हमार आनी चकमा ह्यो दोंगरी जमाती तर बर्मान, बोरोकाचारी, लालुंग, राधा, मिरी, देवरी आनी मेच ह्यो मैदानी जमातीं जावन आसात. काचारी आनी हनाँग ह्यो जमाती दोंगराळ तशेंच सपाट मैदानांत रावतात. 'च्या' मळ्यांत काम करपी कामगार बंगाल, बिहार, उत्तर प्रदेश आनी मध्यप्रदेश राज्यांतल्यान येवन वसल्यात. बांगला देशांतल्यान आयिल्ले मुसलमान शेतकामती काचार आनी गोआलपाडा जिल्ह्यांत येवन रावल्यात.

आसामच्या सपाट वाठारांत रावपी गांवगिरे लोक कुडाच्यो वण्टी आनी तणाचीं पाखीं आशिल्ल्या घरांत रावतात. पुराय आसामांत, गांवगिऱ्या वाठारांतले लोक फाविल्ल्या वेळांत हातमागाचो वेवसाय करतात. हें काम चड करून बायलो करतात. तेभायर रेशीम तयार करप, सुतकताई, सुती-रेशमी कापड विणकाम खास करून घरगुती गरजो भागोवपाखातीर करतात.

आसामी दादले धोतर आनी शाल वापरतात. बायलो साडी आनी शाल वापरतात. सद्या आर्विल्ल्या युगांतल्या विंगडविंगड भेसांचोय तांचेर प्रभाव पडला. आसामी लोकांचें जेवण सादें आसता. सादारणपणान भात, दाळ, भाजयो, नुस्तें ह्यो वस्तू तांच्या जेवणांत आस्पावतात.

आसामांत नवरात्रांत दुर्गापुजेचो उत्सव व्हड थाटामाटान मनयतात. दुर्गापुजेउपरांत येवपी कालीपूजेचो उत्सव, आसामी लोक खास करून 'च्या' मळ्यांतले कामगार व्हड उमेदीन मनयतात. ज्येष्ठ आनी आशाढ म्हयन्यांत अबुंवाची परब हांगा मनयतात. आसामांत 'बिहू' नांवाचे दोन भौशीक उत्सव व्हडा उर्बेन मनयतात. हातूंतलो 'माघबिहू' हो सण आसामी लोकांच्या नव्या वर्साची सुरवात आसता. तर 'बहाग बिहू' हो सण वसंत ऋतूंत मनयतात. आसामाच्या गांवगिऱ्या वाठारांत 'बिसवरी पूजा' जाता. ब्रह्मा, विष्णू, महेश, इंद्र आनी हेर अशा सात देवांच्या बायलांक होरावन ही पूजा करतात.

आसामान कलेच्या मळार आपलो खासा प्रभाव घाला. कालिका पुराणांत पूर्विल्ल्या आसामांत, संगीतांतलें कंठसंगीत आनी वाद्यसंगीत हे दोन प्रकार अस्तित्वांत आशिल्ल्याचो उल्लेख येता. चवदाव्या आनी पंदराव्या शतमानांत, शंकरदेवान, आपल्या भक्तिसंप्रदायाखातीर व्हड प्रमाणांत स्वर-रचना करून आसामी संगीतांत क्रांती घडयली. लोक

नाट्य प्रकारांत 'अंकिया नाट' (सद्या 'भावना' म्हण्टात), 'ओजापाली' हे आयजूय रुढ आसात. आसामांत म्हत्वाच्या सणा-परबांनी नृत्य संगीतासारख्यो कार्यावळी करपाची चाल आसा. 'लायहरोबा नृत्यनाटिका', 'मणिपूरी नृत्य', 'देवधनी नृत्य', गोपी कृष्णाची रास क्रीडा दाखोवपी 'खुलिया नृत्य', 'ढुलिया नृत्य', कळसुत्री बावल्यांच्या आदारान पुराय रामायणाची कथा सांगपी 'पुतलानृत्य', सुरमा न्हंयच्या देगणांत रावपी गांवकन्यांचें 'नौकानृत्य', वन्य जमातींचो 'बोडा' हो सांघिक नृत्यप्रकार, 'बिहू' हो थळावो नृत्यप्रकार अशे विंगड विंगड नृत्यप्रकार आसामांत दिसतात.

वास्तुकलेच्या मळार आसाम फुडारिल्लो आसा. दरंग जिल्ह्यांतल्या दाह पर्वतीया वाठारांतलें फातराचें देवूळ, कामाख्यामदलो पूर्विल्लो 'उमाचल शिलालेख', 'महावैदाब, विश्वनाथ, शिव, कामाख्या, नवग्रह, उमानंद हांचीं देवळां आसामी वास्तुकलेचें वैभव दाखयतात. शिवादोल, देवीदोल, विष्णुदोल, रानघर आनी कारेंनघर हांगाची देवळां वास्तुकलेचे नदरेनय अप्रूप आसात. घुमटाच्या आकाराचें स्तूप, पॅगोडासारकीं पाखीं, देवळांचे घूड, चैत्य गवाक्षां, खांबे सारक्या प्रकारांनी आसामाची वास्तूकला संपन्न जाल्या. बुध्द, ब्रह्मा, लक्ष्मी, सरस्वती, वासुदेव, राम, लक्ष्मण आनी हेर देव देवादिकांच्यो मूर्ती आसामांत खूबकडेन दिसतात.

आसामांत चित्रकलेचीय परंपरा आसा. चवदाव्या-पंदराव्या शतमानांत, शंकरदेवाच्या नाटकांच्या पड्द्यांखातीर देव-देवतांचीं चित्रां रंगयताले. 'गीतगोविन्द', 'भागवतपुराण' ह्या ग्रंथांच्यो जायत्या जाणांनी ज्यो हस्तलिखित प्रती तयार केल्ल्यो, तांचेर चित्रां काडपाक चित्रकारांमदीं सर्त लागताली.

**शिक्षणः** आसाम साक्षरतेच्या मळार मागाशिल्लो आसा. १९७१ त साक्षरतेचें प्रमाण २८.८% आसलें. दादल्यांभितर हें प्रमाण ३६.७% तर बायलांभितर १८.९१ % आसलें. एप्रिल १९७८ त आसाम सरकारान धावे मेरेनचें शिक्षण फुकट केलें. १९७८-७९ मेरेन आसामांत २१,६१५ मुळाव्यो शाळा आसल्यो. तेभायर १३७ कॉलेजी, ३ वैजकी महाविद्यालयां, ३ अभियांत्रिकी महाविद्यालयां, १ शेतकी महाविद्यालय, १ आयुर्वेदीक महाविद्यालय आनी ७ तंत्रनिकेतनां ह्या राज्यांत आसलीं. आसामांतल्या उंचेल्या शिक्षणाचो वावर आसाम शेतकी विश्वविद्यापीठ (जोरहाट), दिब्रुगढ विश्वविद्यापीठ (दिब्रु) गुवाहटी विश्वविद्यापीठ (गुवाहटी) हीं विश्वविद्यापीठां सांबाळटात.

**भाशा आनी साहित्यः** 'आसामी' ही प्रतिभासंपन्न भास आसून, घटनेचे आठवे वळेरेंत तिचो आस्पाव जाल्लो आसा. आसामी भास सातव्या शतमानांत संस्कृतांतल्यान उदरगतीचीं सोपणां चडली. पूण मागधी अपभ्रंश हीच आसामी भाशेची मूळ बुन्याद जावन आसा. ग्रियर्सन हाच्या मतान प्राच्यप्राकृत भाशेक लागीं आशिल्ली मुखेल बोली 'मागधी प्राकृत' जावन आसा. मागधी भाशेचे उदेंतेक 'प्राच्य अपभ्रंश' उलयताले. ते भाशेचो दक्षिण आनी आग्नेय वाठारांत प्रसार जावन आर्विल्ल्या बंगाली भाशेची ती बुन्याद थारली. प्राच्य अपभ्रंश भाशेचो दक्षिणेकडेन तेचपरी गंगेचे उत्तर देगेक प्रसार जालो. होच प्रसार फुडें आसामांत पावलो. हांगाची आर्विल्ली आसामी भाशा तिचें प्रतिनिधित्व करता. उडिया, आर्विल्ली बंगाली भास आनी आसामी ह्या मागधी अपभ्रंशासावन घडिल्ल्या भासांचें तांच्या मूळ अपभ्रंश भाशेकडेन नातें आसा. (लिंग्विस्टिक सर्व्हे ऑफ इंडिया, खंड-१, भाग पयलो, पान १२५-१(ऋ६). डॉ. सुनीतिकुमार चतर्जीन प्राच्य मागधी अपभ्रंश बोलीचे चार गट मानल्यात. ह्या चारांमदल्या तिगांचो संबंद अस्तंत, मध्य आनी उदेंत बंगाल आनी ओरिसा हांगा प्रचलित आशिल्ल्या बोलींकडेन लागता. चवथ्या गटाचो संबंद उत्तर बंगालांत आस्पावल्ल्या आसामच्या भागाकडेन येता. डॉ. बाणिकांत काकतीन, 'प्राच्य मागधी अपभ्रंश' अशें म्हणपाक येवपासारकें कांय बोली भाशाचे गट बंगाली पयलीं आनी आसामी पयलींच्या काळखंडांत अस्तित्वांत आशिल्ल्याचें सिध्द केलां. काळांतरान बोलभाशा गटांचीं लक्षणां थारून स्वतंत्र आसामी राजछत्रासक( आनी पुराय स्वयंपूर्ण जिणेक लागून एक स्वतंत्र भास म्हूण आसामी भास मुखार आयली. वयर आयिल्ल्या उल्लेखाप्रमाण आसामी भाशेचो उत्पत्तीकाळ सातव्या शतमानांत पावता.

असमिया साहित्याचे, सादारणपणान स काळखंड करूं येतातः-. १. वैष्णवपयलींचो काळखंड (१२५० ते १५००) २. वैष्णव काळखंड (१५०१ ते १६५०) ३. आहोम वा गद्य बुरूंजी काळखंड (१६५१ ते १८२६) ४. आर्विल्लो काळखंड (१८२७ ते १९२०) ५. राष्ट्रीय पुनरुत्थापनाचो काळखंड (१९२१- १९४७) आनी ६. स्वातंत्र्याउपरांतचो काळखंड (१९४७ आनी उपरांत).

**वैष्णवपयलींचो काळखंड** (१२५० ते १५००): आसामी भाशेंत साहित्य रचणुकेचो आरंभ तेराव्या शतमानांत जालो. ह्या काळांतलें साहित्य काव्यांत रचलें. पौराणिक कथा हो ताचो मूळ गाभो आसलो. हरिवर विप्राची लवकुशर झूज आनी बब्रुवाहनर झूज हीं दोन दीर्घ आख्यानपर काव्यां, हेमसरस्वतीन बरयल्लीं 'प्रल्हाद चरित्र संवाद' आनी 'हरगौरीसंवाद' हीं काव्यां, रुद्रकंदिलान केल्लो महाभारताच्या द्रोणपर्वाचो अणकार, माधव कंदलीन रसाळ भाशेंत बरयल्लें रामायण, ही आसामी साहित्यांत पडिल्ली मोलाची भर आसली. देवदेवतांची व्हडवीक गावपी 'पांचाली' नांवाचो काव्यप्रकार ह्या काळखंडांत आपली खाशेली सुवात निर्माण करून आसलो. 'पांचाली' काव्यांत सुर्वेक कथनात्मक भाग, मदीं भावगीतात्मक भाग आनी निमाणें परतून कथनात्मक भाग आस्पावतालो. ह्या काव्यप्रकारांत दुर्गावर हाणें 'गीतिरामायण' आनी 'बेउला आख्यान', पीतांबर कवीचें 'उषा परिणय' आनी 'नलोपाख्यान' आनी मंकर हाचें 'पद्मपुराण' हीं काव्यां मुखेल आसात. ह्या काव्यांत जायतीं भावगीतां आयिल्लीं आसून रागदारी संगीताच्या चालीर तीं गायतात.

**वैष्णव काळखंड** (१५०१ ते १६५०): वैष्णवपंथाच्या पुनरुज्जीवनाच्या ह्या काळांत आसामी साहित्याची भरभराट जाली. ह्या काळांत निर्माण जाल्ल्या साहित्याचे फुडल्या भागांत विभाग करूं येतात.

**काव्यः** १. आर्ष महाकाव्यां आनी पुराणांचे अणकार २. महाकाव्य आनी पुराणांचे अणकार ३. भक्तिप्रेरित अप्रूपांच्यो कथा ४. नाटकां ५. उदात्त भाव आशिल्लीं आनी रागदारीत बसयल्लीं गीतां ६. संतचरित्रमाला.

**गद्यः** १. पुराणांचे गद्य अणकार आनी आपरोस २. गद्य चरित्रां.

वैष्णव पंथाचो प्रसार करप आनी ताका लोकांचो आलाशिरो मेळोवन दिवप ह्या हेतान वैष्णव संत आनी कवींनी व्हडा प्रमाणांत आसामी भाशेंत साहित्य रचना केली. म्हान संतकवी शंकरदेवान (१४४९-१५६९) वैष्णव पंथाच्या प्रसारावांगडाच असमिया गीत-संगीताक नामना आनी लोकाश्रय मेळोवन दिलो. ताणें भागवत पुराणांचो सोप्या भाशेंत अणकार केलो. ताचो अनुयायी माधवदेव हाणें (१४८९-१५९६) 'जन्मरहस्य' आनी 'राजसूय यज्ञ' हीं काव्यां आनी 'भक्ति-रत्नावली'चो छंदोबध्द अणकार केलो. भारतीय तत्त्वज्ञानपर ग्रंथांत अग्रवर थारपी भक्तिगीत ग्रंथ 'नामघोषा' वा 'हाजारी घोषा' ही ताचीच रचणूक जावन आसा. अनंत कंदलीन 'महिरावण-बध', 'हरि-हर युध्द', 'वृत्रासुर-वध', 'भरत-सावित्री', 'जीव-स्तुति' आनी 'कुमार हरण' हे ग्रंथ रचले. रामसरस्वतीन महाभारताचो आसामी भाशेंत अणकार केलो. भट्टदेवान (१५५८-१६३८) 'कथा गीत' नांवाची गद्य भगवद्गीता रचली. तेभायर ताणें कथा भागवतय रचलें. दामोदर देव (१४८८-१५९८) हाणें म्हत्वाचीं चरित्रां तर पुरुषोत्तम ठकूर हाणें व्याकरणाविशीं कार्य करून आसामी साहित्यांत मोलाची भर घाल्या.

**आहोम वा गद्यबुरुंजी काळखंड** (१६५१ ते १८२६): असमिया साहित्याचो तिसरो काळखंड आसामांतल्या आहोम राजांच्या उदयासावन सुरू जाता. आहोम राजांनी राजकी मळावेल्यो घडणुको फाकिवंत बरोवप्यांकडल्यान, सोपे आनी सादे भाशेंत बरोवन घेतल्यो. इतिहासाची बसका आशिल्ल्यो जायत्यो 'बखरी' ह्या काळखंडांत बरयल्यो. ह्या

बखरींक 'बुरुंजी' म्हण्टात. हरकांत बरूआ हाणें संपादित केल्ल्या 'असमि बुरुंजी' आनी 'देवघानी आसाम बुरुंजी' ह्या पुस्तकांत जायत्या बुरुंजीचें संकलन केल्लें आसा. तेभायर श्रीनाथ दुआरा संपादित तुंगखुंगिया बुरुंजी, कचारी बुरुंजी, आसाम बुरुंजी, डॉ. एस्. के. भूयन हाणें संपादित केल्लें 'पादशहा बुरुंजी' हें बुरुंजीविशींचें म्हत्वाचें साहित्य जावन आसा.

आहोम राजे आनी सरदारांनी 'गद्यबुरुंजी'कच न्हय तर भौसाक उपेगी पड सारकें साहित्य बरोवपाक आपलें फाटबळ दिलें. ताका लागून ज्योतिश्य, वैजकी, संगीत नृत्य, नितीशास्त्र आनी हेर विशयांचेर गद्य आनी पद्य रूपांत ग्रंथ रचना जाली. हातूंत हत्तीसंबंदान 'हस्तिविद्यार्णव', घोड्यांच्या रोगांची चिकित्सा करपी 'घोडानिदान' नृत्य आनी हस्तमुद्रासंबंदीत 'श्रीहस्तमुक्तावली', नितीशास्त्राचेर 'नीतिलतांकुर', ज्योतिश्यशास्त्राचेर 'भास्वती' आनी हेर ग्रंथ हातूंत आस्पावतात.

आहोम काळांत रामायण-महाभारताचे अणकार, ब्रह्मवैवर्तपुराण, नारदीयपुराण, धर्मपुराण ह्या ग्रंथांचे पुराय तर पद्मपुराण, मार्कंडेयपुराण, हरिवंश, विष्णुपुराण, कल्किपुराण आनी स्कंदपुराण ह्या ग्रंथांच्या कांय भागांचे पद्यांत अणकार जाले. जयदेवाचें 'गीतगोविंद', गोस्वामी तुलसीदासांच्या रामचरित मानसांतलें 'अयोध्याकांड', मध्ययुगांतल्या हिंदी भाशेंतले सूफी-पंथीय काव्यग्रंथ 'मृगावती आनी चंद्रावती' ह्याच काळांत आसामी भाशेंत आयले.

कविशेखर विद्याचंद्र भट्टाचार्य, कविराज चक्रवर्ती आनी राम नारायण चक्रवर्ती हे ह्या काळखंडांतले नामनेचे कवी जावन आसात.

वैष्णव पंथाकडेन संबंदीत धर्मीक साहित्य बरोवपाचो वावर आहोम राजाच्या काळांत चालूच उरला, पूण अठराव्या शतमानांत हे तरेच्या साहित्याक देंवती कळा लागली.

**आर्विल्लो काळखंड** (१८२७ ते १९२०): १८२६ त, ब्रिटिशांनी आसाम आपल्या शेकातळा घेतकच ब्रिटिशांक शासनवेवस्था आनी न्यायदान वेवस्था चालीक लावपाक इंग्लीश भास जाणा जाल्ल्या कारकुनांची गरज पडली. इंग्लीश भास जाणा जाल्ले लोक आसामांत नाशिल्ल्यान बंगालांतल्यान व्हड प्रमाणांत लोक हाडले. बंगाली लोकांनी 'आसामी' ही वेगळी भास नासून बंगालीचीच ती बोली आसा असो गैरसमज पातळायलो. अशे तरेन सुमार चाळीस वर्सां आसामाचेर बंगाली भाशेचो शेक चल्लो. ह्या काळांत आसामी भाशा-साहित्यांत व्हडलीशी भर पडली ना.

मिशनऱ्यांनी आसामी भास शिकून तातूंत ग्रंथरचणूकय केली. १८१३ त पुराय बायबल आसामींत आयलें. जॉन बन्यनचें 'पिल्ग्रिम्स प्रोग्रॅस' आनी ताची हेर पुस्तकां सोपे आसामी भाशेंत अणकारीत जालीं. १८४६ त 'अरुणोदय' नांवाचें साहित्यिक म्हयनाळें उजवाडाक येवपाक लागलें.

मिशनऱ्यांच्या पालवान आसामी भाशेक मानाची सुवात मेळोवन दिवंक जे वावुरल्यात. तातूंत आनंदराम ढेकिआल (विचार प्रवर्तक बरपावळ), फूकन हेमचंद्र बरुआ (शास्त्रीय तत्त्वांचेर आदारिल्ल्या असमिया शब्दकोशाचो लेखक), गुणाभिराम बरुआ (भोंवडेवर्णन आनी समाजीक नाटकां) हांचो आस्पाव जाता. १८७३ त, असमिया भास बंगाली भाशेचो शेक सोंपोवन आपल्या भौमानाच्या पदार पावली.

लक्ष्मीनाथ बेझबरुआ (ललित निबंद), चंद्रकुमार आगरवाला आनी हेमचंद्र गोस्वामी (काव्य), रजनिकांत बार्दोलॉय (इतिहासीक कादंबरी) तशेंच पद्मनाथ गोहाइन-बरुआ, वेणूधर राजखोवा, कमलाकांत भट्टाचार्य हांणी ह्या काळांत आसामी साहित्यांत मोलाची भर घाली.

विसाव्या शतमानाचे सुर्वेक साहित्यीकांची जी एक पिळगी मुखार आयली, तातूंत हितेश्वर बरबरूआ, रघुनाथ चौधरी, जतींद्रनाथ दुआरा आनी अंबिकागिरी रायचौधरी हांणी कवितेच्या मळार तर चंद्रधर बरुआ, दुर्गेश्वर सर्मा, मित्रदेव महंत हांणी नाटकाच्या मळार आसामी साहित्यांत भर घाली.

१८९० त 'जोनाकी' नांवाचें म्हयनाळें सुरू जालें. तातूंतल्यान आसामी साहित्यांत स्वच्छंदतावादी विचारप्रणाली मूळ धरपाक लागली. त्या म्हयन्याळ्यांतल्यान त्या काळांतले साहित्यीक बरेच ⁻⁻जले.

**राश्ट्रीय पुनरूत्थानाचो काळखंडः** (१९२१ ते १९४७): ह्या काळांतल्या साहित्यीकांनी खास करून सैम, मोग आनी सोबीतकायेवांगडाच देशभक्ती, राश्ट्राची जागृताय आनी समाजाची सर्वांगीण उदरगत ह्या विशयाक हात घालो. काव्याच्या मळार बिनंदचंद्र बरुआ, डिंबेश्वर नेओग, अतुलचंद्र हझारिका, आनंदचंद्र बरुआ, गणेशचंद्र गोगोइ आनी देवकांत बरूआ हांचो मुखेल वांटो आसा. अतुलचंद्र हझारिका, दैबचंद्र तालुकदार, नकुलचंद्र भूयन, कमलानंद भट्टाचार्य आनी ज्योतिप्रसाद आगरवाला हांणी नाट्यलेखनाच्या मळार म्हत्वाचो वावर केलो. ज्योतिप्रसाद आगरवालाची 'शोनित-कुवारी', 'कारेंगर लिगिरी' आनी 'रुपालिम' हीं नाटकां कलेचे नदरेन अप्रूप मानतात. आसामी कादंबरींत ह्या काळांत मोलाची भर घालप्यांमदीं रजनिकांत बार्दोलॉय, दैबचंद्र तालूकदार, दंडिनाथ कलिता हांचो आस्पाव जाता. ह्या कादंबरीकारांनी वयल्या पांवड्याची साहित्य-निर्मणी केली.

**स्वातंत्र्याउपरांतचो काळखंड (१९४७ उपरांत)**: स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत आसामी साहित्याची नेटान उदरगत जाली. नव्या विचारांचे सर्जनशील कवी, नाटककार आनी कादंबरीकार साहित्यांत नवो प्रयोग करपाचे इत्सेन मुखार आयले. नव्या प्रकारच्या प्रतीकात्मक काव्यांचो प्रयोग करप्यांमदीं हेमकांत बरुआ हाची सुवात वयर आसा. नवकांत बरुआ (१९२६), हरी बरकाकती (१९२७), सैयद अब्दुल मलीक, होमेन बरगोहाईन, महेंद्र बोरा, दिनेश गोस्वामी, नीलमणी फूकन (धाकटो), केशव महंत, बीरेश्वर बरुआ, महीम बोरा हे ह्या काळखंडांतले नामनेचे कवी जावन आसात. ह्या काळांत नवकाव्याचे उदरगतीक हातभार लावपाचो वावर 'रामधेनू' (१९५१) ह्या म्हयनाळ्यान केला.

देशभक्तीन भरिल्ल्या क्रांतिकारक नाटकां बरोवप्यांमदीं चंद्रकांत फूकन, सुरेंद्रनाथ सायकिया, सरदकांत बार्दोलॉय आनी प्रवीण फूकन ह्या नाटककारांचो आस्पाव जाता. कमलानंद भट्टाचार्य आनी ज्योतीप्रसाद आगरवाला हांणी स्वप्नरंजनात्मक नाटकां बरयलीं.

कथा-कादंबरीच्या मळार स्वप्नरंजनाची सुवात वास्तवतेन घेतल्या. तेवखीं उपेक्षित घटकांकडेन समाजाचें लक्ष गेलें आनी ताचें भौशीक नदरेंतल्यान मूल्यमापनय जावपाक लागलें. कादंबरीच्या मळार बीना बरुआची 'जीवनर बाटतचा' (१९४५), हितेश डेकाची 'आजीर मानुह' (१९५२), आद्यनाथ सर्माची 'जीवनर तीनिअध्याय', चंद्रकांत गोगाइ हाची 'सोणार नांगल', गोविंद महंत हाची 'कृषकर नाति' ह्यो कादंबऱ्यो म्हत्वाच्यो आसात. बीरेंद्रकुमार भट्टाचार्य, प्रफुलदत्त गोस्वामी, राधिकामोहन गोस्वामी हांणी मनोविश्लेशणात्मक कादंबऱ्यो बरयल्यो.

आसामी लघुकथेचेर अस्तंतेच्या कथा साहित्याचो प्रभाव पडला. तिका वयल्या पांवड्यावेली कलाकत्मता मेळोवन दिवपाचो मान लक्ष्मीकांत बेझबरुआ हाका वता. ताचे 'साधुकथार कुकि', 'जोनाबिरी' आनी 'सुरभि' हे तीन लघुकथाझेले उजवाडाक आयल्यात. शरच्चंद्र गोस्वामी, नगेंद्र नारायण आनी त्रैलोक्यनाथ गोस्वामी हांणी भौशीक जीणेचें चित्रण आपल्या कथांतल्यान केलां. महिमा बोरा आनी लक्ष्मीनाथ फूकन हांच्यो कथा विनोदाखातीर नामनेक पावल्यात. बायलांच्या मोगा भावनांचें चित्रण लक्ष्मीकांत सर्मा हाणें आपल्या कथांतल्यान केलां.

भारतीय साहित्याचो मानदंड आशिल्लो ज्ञानपीठ पुरस्कार १९७९ वर्सा बीरेन्द्रकुमार भट्टाचार्याच्या 'मृत्युंजय' पुस्तकाक मेळ्ळो. भारतीय साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार जोडपी ह्या भाशेंतले साहित्यीक आनी तांच्यो साहित्यकृती फुडले तरेन आसात.

१९५५: जतींद्रनाथ दुआरा, १९६०: वेणूधर सर्मा, १९६१: बीरेन्द्रकुमार भट्टाचार्य- 'यारुइगम' (कोंकणी अणकारः आयलें आमचें राज्य- मनोहरराय सरदेसाय १९९०), १९६४: बिरची कुमार बरुआ, १९६६: अंबिकागिरी रॉयचौधरी, १९६७: त्रैलोक्यनाथ गोस्वामी,

१९६८: नलिनीबाला देवी, १९६९: अतुल चंद्र हजारिका, १९७०: लक्ष्मीनाथ फूकन, १९७२: सय्यद अब्दूल मलीक, १९७४: सौरभ कुमार छलीना, १९७५: नवकांत बरुआ, १९७६: भाभेन्द्रनाथ सायकिया, १९७७: आनंदचंद्र बरुआ, १९७८: होमेन बोरगोहेन, १९७९: भाभेन बरुआ, १९८०: जोगेश दास, १९८१: नीलमणी फूकन (धाकटो), १९८२: इंदिरा गोस्वामी (माम्मय रैसम गोस्वामी), १९८३: निर्मलप्रभू बार्दोलाय, १९८४: देवेन्द्रनाथ आचार्य, १९८५: कृष्णकांत हद्दिकी, १९८६: तीर्थनाथ सर्मा, १९८७: हरिकृष्ण डेका, १९८८: लक्ष्मीनंदन बोरा, १९८९: हिरेन गोहेन.

सन १९५६, १९५७, १९५८, १९५९, १९६२, १९६३, १९६५, १९७१, १९७३ वर्सा, हे भाशेंत कोणाकूच पुरस्कार मेळूंक ना.

**म्हत्वाचीं थळां:** मालिगांव हांगा आशिल्लें भारतीय रेल्वेच्या उत्तर-पूर्व विभागाचें केंद्र, आसामाचें सगळ्यांत व्हड शार गुवाहाटी, काझीरंगा आनी मनास अभयारण्यां, पोरन्या आहोम राजवटीची राजधानी जोरहाट, 'च्या'चें नगर दिब्रुगढ, तागाची बाजारपेठ सिल्चर हीं आसामांतलीं म्हत्वाचीं थळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**आळंदी:** महाराष्ट्र राज्यांतलें एक नामनेचें तीर्थथळ. पुणे जिल्ह्यांच्या खेड तालुक्यांत, पुणे शाराचे उत्तर दिकेक २१ किमी. अंतराचेर हें तीर्थथळ आसा.



**ज्ञानेश्वरांची समाधी - आळंदी**

पूर्विल्ल्या काळांत आळंदीक 'शिवपीठ' म्हूण वळखताले. पुराणांत आळंदीक 'सिध्दक्षेत्र' म्हळां. इंद्रायणी न्हंयच्या पात्रांत आशिल्ले एके सुवातीक आयजूय 'सिध्दबेट' म्हूण वळखतात. ह्या सिध्दबेटाकडेन जायत्या सिध्दपुरसांचो संबंद येता. स्कंद पुराणाच्या सह्याद्रि खंडांत आळंदीची आनंदविपिन, वारूण, कपिल, अलका, सिध्दक्षेत्र अशीं पांच नांवां मेळटात. संतांच्या अभंगांत अलंकापुरी, अलंकापूर, अलंकावती ह्या नांवान आळंदीचो उल्लेख येता. कृष्णराज राश्ट्रकुटाच्या शक ६९० च्या तळेगांव हांगाच्या तांब्यापट्यांत आळंदीचो 'अलंदिय' असो उल्लेख केला. हें उतर आळंदी नांवाकडेन लागींचें नातें दाखयता.

संत ज्ञानेश्वराक लागून आळंदीचें धर्मीक म्हत्व खूब वाडलें. आयज ताचेवेल्यान ह्या तीर्थथळाक वळखतात. शालिवाहन शके १२१८ त, कार्तिक वद्य त्रयोदशीक, ज्ञानेश्वरान हांगा जिती जिवी समाधी घेतली. ही समाधी देवूळवाड्यांत आसा. समाधीच्या फाटल्यान विठ्ठलरुक्मिणीच्यो मूर्ती आसात. ज्ञानेश्वराचें समाधीमंदीर १५७० त, पुरंदरच्या आंबेकर देशपांड्यांनी बांदलें. १७६० त, भजनी मंडपाचें काम शिंद्याचो दिवाण, रामचंद्र मल्हार शेणवी हाणें केलें. हे समाधीच्या दिसपट्ट्या खर्चाची पुरवण पेशव्यांनी केली. १८५२ त, देवस्थानाची वेवस्था पळोवपाक आळंदी संस्थान कमिटीची थापणूक जाली.



ज्ञानेश्वराची समाधी सोडून, गणपती, मुक्ताबाई, सिध्देश्वर हांचीं मंदिरां, अजानरुख, भांगराचो पिंपळ, केसरीनाथ, भोजलिंगकाका, लक्ष्मीनाथ, जोग महाराज, मल्लापा वासकर ह्या व्हड मनशांची समाधीथळां, चांगदेवाचे भेटेक वतना ज्ञानेश्वरान स्वबळार चलयिल्ली वणत हीं थळां पळोवपासारकीं आसात.

दर एकादशीक हांगा भक्त आनी वारकऱ्यांचो मेळो भरता. कार्तिक वद्य एकादशीची जात्रा खूब व्हडली आसता. जात्रेक येवपी लोकांक रावपाखातीर हांगाचे धर्मशाळेंत खास वेवस्था केल्ली आसा. ४.२ चौ. किमी. आळंदीच्या वाठारांत, मुळाव्यो आनी माध्यमिक शाळा, ज्ञानेश्वरी विद्यापीठ, जायते मठ, धर्मशाळा, दवाखाने आनी ग्रंथालयां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**आळवांतीण:** एक भूत योनी. संवसारांतल्यो इत्सा पुराय जायनाशिल्ल्यान मर्णा उपरांत ज्या जिवाक गती मेळना तो जीव भूतयोनींत वता. आळवांतीण म्हळ्यार गुरवारपणांत वा भुरगें जावन रोखडीच एका म्हयन्याभितर मेल्ली बायल. तिचो जीव भुरग्याभोंवतणी घुटमळटा अशें म्हण्टात.

भारतीय भाशांनी हिका वेगवेगळीं नांवां आसात. कोंकणीतलें 'आळवातीण' हें उतर संस्कृतांतल्यान आयलां आसुंये. संस्कृतांत 'आल' म्हळ्यार फटोवप वा जाळें, वात म्हळ्यार वारें. भूतयोनीक वारेंसुत्र म्हण्टात. हें फटोवपी वा जाळ्यांत ओडून घेवपी वारें असो ताचो अर्थ जाता. भूत उतर स्त्रीलिंगी आशिल्ल्यान 'ईण' प्रत्यय लागून आळ+वात+इण=आळवांतीण हें उतर तयार जालां आसुंये.

हिचेविशीं बऱ्योच आख्यायिका आसात. नेपाळींत आळवांतीण ह्या उतराक 'चुरेनी' हें उतर आसा. थंयच्या लोकांकाणयांप्रमाण ती सोबीत बायलेचें रूप घेता आनी तरणाट्या दादल्यांक आपल्या वटेन ओडटा. ती दादल्याचेर मोग करून ताका 'भोग' लेगीत दिता. पूण भोग घेवपी दादलो कांय दिसांनी सुकून सुकून मरता. गुजरातींत हिका 'चुडेल' म्हण्टात. तांच्या मताप्रमाण ही सान भुरग्यांक बादीकार करून तांचो जीव घेता. मोट्या मनशांक ती भेश्टायता. जांचो जीव घेवपाचो आसा तांकांच ती दिसता. ती दनपरां बारा वरांचेर वा सांजेवेळार दिसता. तिचें मुखामळ दिसना, फकत धड दिसता. ज्या म्हयन्याचे तिथीक ती मेल्ली आसता त्याच काळांत ती एक तरी बळी घेवपाचो यत्न करता. उज्याचो जाळ कशी ती अचकीत अदृश्य जाता.

आंध्र प्रदेशांत भूतयोनींतल्या ह्या प्रकाराक खासा अशें नांव ना. पूण वायुरुपान भोंवपी असंतुश्ट आत्म्यांक तेलगु भाशेंत 'दह्यम भूतम्' अशें म्हण्टात. ह्या 'दह्यम भूतम्' विशीं बऱ्योच दंतकथा आसात. उत्तर प्रदेशांत तिका 'अहेडी' म्हण्टात. ती मसंडींतल्या झाडांनी रावता. खंयचेंय फळ पिकल्या उपरांत पयलीं हिका दिवन उपरांत मनशांनी

खावंक जाय, नाजाल्यार ती त्रास दिता.

कानडी भाशेंत बाळंतपणांत मेल्ले बायलेक 'हडदसतळो' जाल्यार गुरवार आसतना मरता तिका 'इदुळूसतवो' म्हण्टात. महाराष्ट्रांत 'हडळ' हें नांव आसा. भश्टेपणाच्या दिसांनी मरपी बायलमनशेकय 'हडळ' म्हण्टात. ही 'हडळ' मसंडींत झाडाचेर रावता. ती मनशांक बादीकार करता. केंस मानेर सोडून ती पाचवे वा हळडुवे कपडे घालता. सोबीत बायलेचें रूप घेवन ती तरणाट्यांवांगडा भोग घेता. तिचे कुडीचो फुडलो भाग जाड जाल्यार फाटलो भाग बारीक आसता.

हेर कडेनय आळवांतीणीविशीं खूब दंतकथा आसात. गोंयांत तिची बाधा ना करचेपासत घाडी, प्रसाद हेर देवस्पणां असले उपाय करतात. गोंयांत आळवांतीणीचे बाधेचेर कुमाराची 'डाग' म्हूण एक देवस्पणाचो उपाय करतात. ह्या उपायान आळवांतीणीच्या बाधेचो पुराय बंदोबस्त जाता अशें समजतात.

- वा. ल. वझे

**आळूं:** (मराठीः अळू; हिंदी-आर्वी, काचालू; संस्कृत- कच्ची; इंग्लीश-तारो, ॲरम, एलेफंट्स इयर; लॅटीन- कोलोकेशिया ॲंटिकोरम, कूळ-ॲरॉइडी).



आळूं

भारतांतल्या सगळ्या उदकाळ वाठारांत ही वनस्पत जाता. सुर्वेक ही वनस्पत आग्नेय आशियांत आशिल्ली. उपरांत ती पॅसिफिक म्हासागरांतल्या जुव्यांचेर पावली. उश्णकटिबंध वाठरांत ही वनस्पत कंदांतल्या पिठूळ मुंडल्यांक लागून पिकयतात. धनकंदा-पसून सत्रेसारकीं, व्हड आनी तळाक त्रिकोनी आकाराची खांच आशिल्लीं पानां येतात. ताचो देंठ मोटो आसता. ताच्या तळाकडेन खांचशी आसता. पुष्पबंध ॲरॉइडी कुळांत वर्णन केल्याप्रमाण आसता. ताचेर ल्हान, हळडुवो, पनेळावरी तोंकाचो महाछद येता. कणसाच्या दांड्या पोंदा स्त्री-पुष्पां, मदीं वंध्य-पुष्पां आनी वयर पुं. पुष्पां आसतात. आळवाचो देंठ आनी पानांच्यो शिरो जांभळयो आसल्यार त्या आळवाक 'काळें आळूं' म्हण्टात आनी देंठ आनी पानांच्यो शिरो पाचव्यो आसल्यार ताका 'धवें आळूं' म्हण्टात.

आळवाच्या देंठाचो दीख लागल्यार कात कुसकुसता आनी तांबडी जाता. आळवाची भाजी वा तोणाक करतात. आळवाच्या पानांपसून 'अळुवडी' करतात. आळवाच्यो मुंडल्यो (कंद) शाक-भाजेखातीर वापरतात. मुंडल्यांचो रोस जानवळीचेर (alopecia) गुणकारी आसता.

आळवाच्या फाटल्या पिकाच्यो मुंडल्यो डिसेंबरांत काडटात आनी थंड जाग्यार सांठेवन दवरतात. कसदार आनी चिखलाचे जमनींत आळूं बरें जाता. सुर्वेक जमीन नांगरून तातूंत शेण-सारें घालून कुणग्यो करून दवरतात. उपरांत तातूंत काडून दवरिल्ल्यो मुंडल्यो रोयतात. एका हेक्टरांत वर्साक, सुमार १०,००० किलो आळवाचीं पानां मेळटात. तीन म्हयन्या उपरांत आळवाच्या पानांची कापणी करतात. फुडें चार-चार दिसांनी कापणी करतात.

आळवाच्या पानांक 'फायटॉफ्थोरा कोलोकेशी' ह्या चित्याक लागून काळशीं-तांबशीं खतां पडटात. आळवाच्या देंठाक आनी मुंडलेकूय हो रोग जाता. हाका आळाबंदा हाडपाक रेझीनयुक्त शाबू ३:३:५०० कसाच्या बोर्दो (कॉपरसल्फेट आनी चुनो) मिश्रणांत भरसून फवारो मारतात.

कासाळीं आनी तेरें ह्यो ह्याच कुळांतल्यो वनस्पती. आळवाचे हे प्रकार गोंयांत सगळेकडेन दिश्टी पडटात. तेरें ही पाचवीच वनस्पत शेताभाटांच्या देगांनी पावसाचे सुर्वेक आपशींच किल्लून येता. गोंयांत तेऱ्याच्या पानांची भाजी करतात. कासाळी हे वनस्पतीचीं पानां व्हड आसतात आनी रंग काळसो पाचवो आसता. ही वनस्पत चडकरून सोबेखातीर पोरसांत लायतात. तशीच ती वखदीय जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**आज्ञापत्र:** शिवाजीच्या काळांत राजनीतीचो नियाळ घेवपी अप्रूप असो मोलादीक ग्रंथ. राजाराम आनी राजसबाई हांगेलो चलो श्रीराजा शंभु छत्रपती वा दुसरो संभाजी सत्तेर आसतना (१७१४) ताचे आज्ञेवेल्यान रामचंद्र पंडीत अमात्य हुकुमतपन्हा हाणें हें आज्ञापत्र बरयलें (१७१५-१६). ह्या आज्ञापत्राक शासनपत्र, राजाज्ञापत्र वा लिखित आज्ञा अशेंय म्हण्टात. दुसऱ्या संभाजीन आपल्या पुताक राजनीत शिकोवपाखातीर हो ग्रंथ बरोवपाची सुचोवणी केल्ली अशें ह्या ग्रंथाच्या आरंभाक म्हळां.

आज्ञापत्रांत णव प्रकरणां आसात. पयल्या दोन प्रकरणांत शिवाजी, संभाजी आनी राजाराम हांणी स्वराज्य घडोवपाक आनी सांबाळपाक काडिल्ल्या कश्टांचीं वर्णनां आयल्यांत. तिसऱ्या प्रकरणांत राज्यांतले धर्मीक लोक, पुजारी, यती, बैरागी, तपस्वी, गवय, नाचपी, पाखंडी, कुड्डे, पांगळे आनी हेर लोक हांचेविशींची राजाची जापसालदारकी, देवळां, मठ, तीर्थां, समाधी आनी हेर संस्था हांचेविशींचीं राजाचीं कर्तव्यां, पयशांचो खजिनो, सैन्य, शस्त्रां हांचेविशीं राजाक कशी जतनाय घेवपाक जाय तेविशीं केल्लो उपदेश आस्पावला. चवथ्या प्रकरणांत प्रधान आनी हेर अधिकारी हांकां कशे वेंचून काडचे, मनशाची पारख कशी करची, ताका आपलो कसो करचो ह्या संबंदान वर्णनां आसात. पांचव्या प्रकरणांत धंदो-वेव्हार करपी, सावकार हांचें म्हत्व सांगलां. ब्रिटिशांसारक्या वेपारीवर्गाकडेन जतनाय घेवन वेव्हार करपाची शिटकावणी केल्या. सव्या प्रकरणांत देशमुख, कुळकर्णी सारक्या गिरेस्तांक कशे तरेन सांबाळून घेवंक जाय हेविशीं सांगलां. निमण्या तीन प्रकरणांत आदल्या काळासावन चलत आयिल्ल्यो वृत्ती, गड किल्ल्याचो बंदोबस्त, नाविक दळाचें म्हत्व हेविशीं उपदेश केला.

आज्ञापत्रांत शिवाजीच्या अष्टप्रधानाचो उल्लेख ना. हें आज्ञापत्राचें आगळें खाशेलेंपण जावन आसा. जमीन कोणाकय धर्माथ दितना धर्मासंबंदीच्या तत्त्वांचो बारीकसाणेन विचार करचो अशेंय आज्ञापत्र म्हण्टा.

आज्ञापत्राच्या बरपांत संस्कृत आनी फार्सी उतरां मेळटात. विशय पुरायपणान समजावपाखातीर ह्या उतरांचो वापर जाला. राजनितीसंबंदीचे म्हत्वाचे आशय सोप्या आनी सुटसुटीत वाक्यांत बरयल्यात. मराठीशाहींतल्या गद्यलेखनाची 'आज्ञापत्र' ही आगळीवेगळी देख जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**ऑकिन्लेक, फील्ड मार्शल सर क्लॉड:** (जल्मः २१ जून १८८४; मरणः ?).

नामनेचो ब्रिटीश सेनानी आनी स्वातंत्र्याआदल्या काळांतलो भारतीय सैन्याचो सरसेनापती. ताणें इंग्लंडांतल्या वेलिंग्टन महाविद्यालयांत शिक्षण घेतलें. १९०४ वर्सा भारतीय सैन्याच्या पायदळांत अधिकारपदाचेर ताची नेमणूक जाली.

पयल्या म्हाझुजांत ताणें भोव बरें काम केल्लें. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत ब्रिटनचो दक्षिणविभाग मुखेली म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९४१ त, ताका भारतीय सैन्याचो सरसेनापती म्हूण नेमलो. १९४१-४२ ह्या काळांत मध्य उदेंत भागांतल्या ब्रिटीश सैन्याचो अधिकार ताचेकडेन आशिल्लो. त्यावेळार जर्मनीच्या सेनापतीन ऑकिन्‌लेकाच्या सैन्याक ईजिप्त देशाचे शीमेमेरेन फाटल्यान धांवडायलें. पूण ऑकिनलेकान एल्‌ ॲलामेन लागसार घट अशें ठाणें दवरलें आनी दुस्मानाक आडावन दवरूंक ताका येस आयलें.

फुडें १९४३-४६ ह्या काळांत तो परतून भारताचो सरसेनापती जालो. जपानान भारताचे उदेंत शीमेर केल्ले घुरयेचो ताणें खर प्रतिकार केलो. देखूनच ताका कुशळ संघटक आनी हुशार सैनिक फुडारी म्हूण नामना मेळ्ळी. १९४६ वर्सा ताका 'फील्ड मार्शल' हो सगळ्यांत व्हडलो हुद्दो मेळ्ळो. १९४७ वर्सा तो सेवानिवृत्त जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**ऑक्टोबर:** ग्रिगॉरियन कॅलेंडरांतलो ३१ दिसांचो धावो म्हयनो. पयलीं ज्यूलियन कॅलेंडराची सुरवात मार्चसावन जाताली. मार्चसावन आठवो (लॅ. ऑक्टो=आठ) म्हूण 'ऑक्टोबर' हें नांव पडलें आनी फुडें तशेंच चालू उरलें. ह्या म्हयन्याक जर्मेनिकस, अँटोनिनस, हर्क्युलस, फाउस्टिनस, इन्व्हिक्टस, टॅसिटस हीं रोमन राजांचीं नांवां दवरपाचो यत्न जालो. पूण तो फळादिक जालोना. ऑक्टोबर म्हयन्याक स्लाव लोक 'येलो मंथ' आनी अँगलो सॅक्सन लोक 'विंटरफायलेथ' म्हण्टात. ऑगस्ट म्हयन्याचे ३० चे ३१ दीस केले म्हूण ऑक्टोबराचेय ३० चे ३१ दीस केले.

हिंदू पंचांगाप्रमाण ऑक्टोबर म्हयनो आश्विन-कार्तिक म्हयन्यांत येता. मॉन्सून प्रदेशांत पावसाचें प्रमाण कमी जाल्ल्याकारणान ऑक्टोबर म्हयन्यांत तापमानांत मात्शी वाड जाता. कितल्योशोच ग्रीक-रोमन सणा-परबो ऑक्टोबर म्हयन्यांत येतात. ह्या म्हयन्याचे दोन तारखेक महात्मा गांधीची जयंती आनी ३० तारखेक इंदिरा गांधीची पुण्यतीथ येता.

- कों. वि. सं. मं.

**ऑक्लंड, लॉर्ड जॉर्ज ईडन:** (जल्म: २५ ऑगस्ट १७८४; मरण: १ जानेवारी १८४९).

ब्रिटिशांचे राजवटींतलो हिंदुस्थानाचो १८३५ ते १८४२ ह्या काळांतलो गव्हर्नर जनरल. १८१४ त बॅरन जातकच ताणें हाऊस ऑफ लॉर्डसांत प्रवेश केलो. १८३० ते १८३४ मेरेन तो 'बोर्ड ऑल ट्रेड' हे संस्थेचो अध्यक्ष आशिल्लो. १८३७-३८ वर्सा हिंदुस्थानांत व्हड दुकळ पडलो. ताची चवकशी करूंक ऑक्लंडान एके सरकारी चवकशी समितीची नेमणूक केली. तशेंच स्वताचे जोडींतल्यान दुकळांत सांपडिल्ल्यांक आदार दिलो. ह्याच काळांत अफगाणिस्तानांतलो अमीर दोस्त मुहमद हाणें आपलें बळगें वाडोवचे खातीर रशिया, इराण आनी रणजितसिंग हांचेआड ऑक्लंडाकडे आदार मागलो. ऑक्लंडान ताचो प्रस्ताव न्हयकारलो तेन्ना दोस्त मुहम्मदान रशिया आनी इराण हांचेकडेन इश्टागत करपाचे नदरेंतल्यान उलोवणीं सुरू केलीं. फुडें ऑक्लंडान रणजीतसिंगाकडेन इश्टागत जोडून मार्च १८३९ वर्सा अफगाणिस्तानाचेर घुरी घाली. हे घुरयेंत ब्रिटिशांक जैत मेळ्ळें. देखून, ताका 'अर्ल ऑफ ऑक्लंड' ही पदवी मेळ्ळी.

ऑक्लंडान भोंवडेकाराचेर आशिल्लो कर बंद करून धर्मीक गजालींत लोकांक स्वातंत्र्य दिलें. शेतांविशीं सुदारणा केल्यो. वेपार आनी उद्देगधंद्यांत वाड केली. मुंबय आनी मद्रास हांगा वैजकी महाविद्यालयां काडलीं. तशेंच भारतीय शिक्षण संस्थेंत ताणें खूब सुदारणा केल्यो. १८४० वर्सा तो परत इंग्लंडाक गेलो. उपरांत, ब्रिटीश नौअधिकारणाचो पयलो लॉर्ड म्हूण ताची नेमणूक जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**ऑक्सफर्ड विद्यापीठ:** इंग्लंडांतलें व्हड नामनेचें विद्यापीठ. हें विद्यापीठ लंडनच्या ८३ किमी. अंतराचेर ऑक्सफर्ड शारांत चार्वेल न्हंयचे देगेर वसलां. इतिहासकारांच्या मतान इंग्लंड आनी फ्रांस हांच्या मदीं वाद उप्रासतकच ब्रिटीश विद्यार्थ्यांक पारीस विद्यापीठांत प्रवेश न्हयकारलो. ह्या वेळार इंग्लंडाक विद्यापीठाची भोव गरज आशिल्ली. ही अडचण पयस करूंक इंग्लंडांत ११३३ वर्सा पयले फावट शिक्षणाखातीर 'स्टडियम' हे संस्थेची थापणूक केली. फुडें हे 'स्टडियम' संस्थेचें रूपांतर 'स्टडियम जनरल' हे संस्थेंत जालें. तातूंतल्यानच फुडें १३ व्या शेंकड्यांत ऑक्सफर्ड विद्यापीठाची थापणूक जाली अशें म्हण्टात.

मदल्या काळांत रॉजर बेकन, जॉन स्कोटस् आनी जॉन विक्लिफ हांणी ऑक्सफर्ड विद्यापीठाचें म्हत्व वाडोवपाखातीर यत्न केलो. युनिव्हर्सिटी कॉलेज (१२४९), 'बॅलिअल' (१२६३) आनी 'मर्टन' (१२६४) हीं ह्या विद्यापीठांतलीं पयलीं महाविद्यालयां आशिल्लीं.

१५७१ वर्सा पयलीं एलिझाबेथ हिणें ह्या विद्यापीठाक मान्यताय दिली. ऑक्सफर्ड विद्यापीठान सुर्वेक, शिक्षणीक मळार व्हडलीशी उदरगत केली ना, पूण युरोपीय प्रबोधन काळा वांगडा विद्यापीठाच्या शिक्षणक्रमांत म्हत्वाचे बदल जाले. एकुणिसाव्या आनी विसाव्या शेंकड्यांत ज्ञानविज्ञानाची भरपूर उदरगत जाली, तेन्ना ऑक्सफर्ड विद्यापीठान-जायते फांटे सुरू करून आर्विल्ल्या काळांतली शिक्षणपध्दत सुरू केली.

ह्या विद्यापीठांत प्रवेश, पदवी आनी पदव्युत्तर परीक्षा घेतात. हांगा संशोधन करपाची वेवस्था आसा. तशेंच मानव्य विद्या, वैजकी, ललितकला, तंत्रविद्या, धर्मशास्त्र आनी हेर शास्त्रांचे वेगळे विभाग आसात. हांगा इंग्लीश भाशासाहित्य आनी मदल्या युगांतल्या तशेंच हालींच्या काळांतल्यो भासो शिकपाची तजवीज आसा. व्याख्यानां वांगडाच हांगा भासाभास करून वा दृकश्राव्य पध्दतीन शिकप जाता.

ह्या विद्यापीठांत प्रवेश मेळयतकच ताका शिकपाक आदार दिवंक एका प्राध्यापकाची नेमणूक करतात. ताचे सांगणेवेल्यान विद्यार्थी आपलो अभ्यासक्रम थारायता. खंयचीं व्याख्यानां आयकप, कितें वाचप हेविशीं हो प्राध्यापक विद्यार्थ्यांक सांगता. तशेंच त्या प्राध्यापकान थारावन दिल्ल्या विशयांचेर विद्यार्थ्यांक दर सप्तकांत निबंद बरोवचो पडटा. उपरांत, त्या निबंदाचेर दोगांयचीय भासाभास जाता. शिकप पुरो जाय मेरेन ह्या विद्यापीठांत विद्यार्थ्यांक एकूच प्राध्यापक वा मार्गदर्शक आसता. तो विद्यार्थ्यांचो इश्ट आनी उपदेशक आसता.

१९२० वर्सा मेरेन बायलांक ह्या विद्यापीठांत फकत पदव्यो मेळटाल्यो. पूण १९६९ सावन तांकां विद्यापीठाचे पुराय हक्क मेळ्ळे.

सद्या ऑक्सफर्ड विद्यापीठांत सुमार चाळीसेक महाविद्यालयां आसात. तातूंतलीं चडशीं दादल्यांखातीर आनी पांच बायलांखातीर आसून उरिल्लीं सहशिक्षण दिवपी महाविद्यालयां आसात. ह्या विद्यापीठान चडशें पारिस विद्यापीठाचेंच संविधान घेतलां. थंयच्या निगमीय रचणुकेंत कुलपती, कुलगुरु, कुलशासक आदींचो आस्पाव आसा. कुलगुरु हो विद्यापीठाच्या प्रशासनाचो मुखेली आसता. १८५४, १८५६, १८७७, १९२३ ह्या वर्सांतल्या संसदीय कायद्यान ह्या विद्यापीठाची वेवस्था स्वतंत्र केल्या. पूण प्रशासकीय नदरेन दरेक महाविद्यालय स्वतंत्र आसून परीक्षा आनी अभ्यासक्रम हांचेखातीर विद्यापीठ जापसालदार आसता.

ऑक्सफर्ड विद्यापीठांतल्या कांय पूर्विल्ल्या इमारतींची तांच्या वास्तूशिल्पाखातीर आनी थंयच्या पोरन्या वस्तूंखातीर नामना आसा. तातूंतलें 'बॉडलिअन' हें सगळ्यांत पोरनें वाचनालय आसून तातूंत सुमार २२,००,००० ग्रंथ आनी ५०,००० हातबरपां आसात. संवसारांतलीं नामनेचीं वाचनालयां हांगा आसात. ह्या विद्यापीठांत आशिल्ल्यो 'डिव्हिनिटी स्कूल', 'कॉन्व्हॉकेशन हाउस', 'शेल्डिनियन श्रोतृगृह',

'क्लेरेंडन अभ्यासिका', 'अॅश्मोलीअन वस्तुसंग्रहालय' आनी हेर नामनेच्यो वास्तू पळोवपासारक्यो आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**ऑक्सिजनः** हवेचो घटक आशिल्लो एक वायू. ऑक्सिजन हें नांव ग्रीक शब्दावयल्यान घेतलां. सूत्रः O. ह्या मूलद्रव्याचो आस्पाव, आवर्त सारणीच्या (periodic table) G-A गटांतले दुसरे वळींत जाता. धर्तरेवयलें सगळें जिवीत ताचेर आदारून आशिल्ल्यान ताका 'प्राणवायू' म्हण्टात.

ऑक्सिजन हवेंत, उदकांत आनी धर्तरेंत मेळटा. हवेंत ताच्या वजनाचें प्रमाण २५%, उदकांत उदकाचो घटक म्हूण ८६% आनी धर्तरेंत ४७ % आसता. स्वीडनचो शास्त्रज्ञ कार्ल शिल हाणें १७७२ त ऑक्सिजन पयलीं सोदून काडलो. पूण ताणें आपलो सोद उजवाडाक हाडलोना. इंग्लीश शास्त्रज्ञ जोसेफ प्रिस्टले हाणें १७७४ त ऑक्सिजन परत सोदून काडलो. शिल आनी प्रिस्टले ह्या दोगांय शास्त्रज्ञांक ताणें सोदून काडिल्ल्या वायूची वळख पटूंक नाशिल्ली. १७७५-७७ त, लाव्होआझिये ह्या फ्रेंच शास्त्रज्ञान हो वायू, एक मूलद्रव्य जावन आसा म्हूण दाखोवन दिलें आनी ह्या वायूक 'ऑक्सिजन' हें नांव दवरलें.

जनावरां आनी कांय बारीक वनस्पत उस्वासांतल्यान ऑक्सिजन घेतात आनी कार्बन-डायोक्साईड हवेंत सोडटात. पाचवीं झाडां दिसाचीं कार्बनडायोक्साइड भितर घेवन ऑक्सिजन हवेंत सोडटात. हे प्रक्रियेक 'उजवाड-संश्लेषण' (photosynthesis) म्हण्टात. हे प्रक्रियेवरवीं झाडां अन्ननिर्मिती करतात. ऑक्सिजन साव्या उदकांत तीन टक्के विरगळटा जाल्यार खाऱ्या उदकांत मात्सो उण्या प्रमाणांत विरगळटा. उदकांत विरगळिल्लो ऑक्सिजन उदकांतले जीव उस्वासाखातीर वापरतात.

ऑक्सिजनच्या एका रेणूंत दोन अणू आसतात. एका अणूंत आठ इलेक्ट्रॉन (electrons), आठ प्रोटोन (protons) आनी आठ न्यूट्रोन (neutrons) आसतात. ताचो अणुभार (Atomic Weight)-१६ आनी अणुक्रमांक (Atomic Number) -८.

सैमांत ऑक्सिजनचे तीन समस्थानिक (isotopes) आसात. ऑक्सिजन-१६ ($O^{16}$), ऑक्सिजन-१७ ($O^{17}$) आनी ऑक्सिजन-१८ ($O^{18}$). ह्या सगळ्या प्रकारच्या ऑक्सिजनांत आठ-आठ इलेक्ट्रॉन आनी प्रोटोन आसतात. पूण न्युट्रोन मात $O^{16}$ त आठ, $O^{17}$ त णव आनी $O^{18}$ त धा आसतात. धर्तरेचेर ऑक्सिजन-१६ सगळ्यांत चड म्हळ्यार ९९.७५९ टक्के आसा, जाल्यार ऑक्सिजन-१७, ०.०३७ टक्के आनी ऑक्सिजन-१८, ०.२०४ टक्के आसा.

ऑक्सिजनाक रंग, वास आनी रुच नासता. तो हवेपरस मात्सो जड आसता. आनी ताची जडाय (density) लिटराक १.४२९ ग्रॅम आसता. तो उदकांत थोड्याच प्रमाणांत विरगळटा. दबावाखाला -१८३° से. इतले थंडसाणीत ताचो निळो पातळ पदार्थ जाता. जाल्यार -२१८° से. इतले थंडसाणीत तो निळो घट्ट पदार्थ (solid) जाता. सादारणपणान नितळ ऑक्सिजन वायूरुप आसता. घनरुप (solid) ऑक्सिजन -२१८.४° से. इतल्या तापमानाचेर कडटा जाल्यार, -१८३° से. इतल्या तापमानाचेर उकळटा (boils). लासपाचे (combustion) क्रियेखातीर हवेंतलो ऑक्सिजन वांटो घेता आनी ऑक्सिजनचो घटक आशिल्ले पदार्थ ऑक्साइड (oxides) तयार जातात.

हेर पदार्थांवांगडा ऑक्सिजनची प्रक्रिया जातकच नवीं संयुगां (compounds) तयार जातात. ह्या पदार्थांत ऑक्सिजन एक घटक म्हूण आसता. देखीक- उदक ($H_2O$), साकर ($C_{12}H_{22}O_H$), पिवपाचो सोरो ($C_2H_5OH$), चुनो (CaO), रेंव ($SiO_2$), शेंदूर ($Pb_3O_4$), मडवळखार ($Na_2CO_3$), पापडखार ($NaHCO_3$), लोखणाची कळम ($Fe_2O_3$, $Fe(OH)_3$) आदी.

उजो पालोवपी दळाचे जवान, खणीवयले कामगार, बुडेली आनी ऊंच दोंगर चडपी लोक उस्वासाखातीर नितळ ऑक्सिजन भरिल्लीं उस्वासाचीं सादनां वापरतात. फुफ्फुसाचे विकार आनी विखाळ वायूची बादा जाल्ल्यांक कृत्रिम उस्वासाखातीर ऑक्सिजन दितात. वेल्डींग आनी धातू कातरपाखातीर लागता ती ऑक्सी-अॅसेटीलीन (oxy-acetylene) जोत (flame) तयार करूंक ऑक्सिजन लागता. लोखण आनी तिख्याच्या उद्देगांत तशेंच अग्निबाणांखातीर इंधन म्हणूनूय ऑक्सिजन वापरतात.

चड प्रमाणांत ऑक्सिजनचें उत्पादन हवेंतल्यान वेगळावन करतात. ऑक्सिजन मुद्दम तयार करीनात. पूण नायट्रोजन आनी हायड्रोजन तयार करतना हेरांवांगडा ऑक्सिजनूय तयार जाता. द्रवरूप हवेचें (liquid air) ऊर्ध्वपातन (distillation) करतकच नायट्रोजन तयार जाता. हे प्रक्रियेंत ऑक्सिजनूय खूब प्रमाणांत तयार जाता. विजेच्या प्रवाहाचो वापर करून उदकाचें विघटन (electrolysis) करतकच हायड्रोजन आनी ऑक्सिजन तयार जाता. वयल्या पध्दतींनी तयार केल्लो ऑक्सिजन गॅस सिलींडरांनी भरतात. ऑक्सिजन तयार करपाचे कारखाने जगभर आसात, तशेंच आमच्या देशांतूय आसात. गोंयांत मडगांव शारा लागसार हवेपसून ऑक्सिजन काडपाचो कारखानो आसा.

ओझोन (ozone) नांवाचो वायू ऑक्सिजनापसून तयार जाता. ओझोनच्या एका रेणूंत ऑक्सिजनचे तीन अणू आसतात. वातावरणांतलो ओझोन थर सुर्याचीं जंबूपार किरणां (ultraviolet rays) आडावन धर्तरेवयल्या जिविताचें रक्षण करता.

- प्रा. प्रेमानंद फडते

**ऑगस्टः** ग्रेगोरियन कॅलेंडरांतलो ३१ दिसांचो आठवो म्हयनो. ज्यूलियन कॅलेंडर मार्चांत सुरू जातालें. तेन्नाचो हो सवो म्हयनो म्हूण हाचें पोरनें नांव 'सेक्स्टिलिस' अशें आसून ताचे ३० दीस आसताले. पूण ऑगस्टस सीझर ह्या रोमन राजाच्या नांवावेल्यान क्रिस्तापयलीं ८ सावन हाका 'ऑगस्ट' हें नांव पडलें आनी फेब्रुवारीतलो एक दीस कमी करून ऑगस्टचे जुलय इतले म्हळ्यार ३१ दीस केले.

हिंदू पंचांगाच्या श्रावण-भाद्रपद ह्या म्हयन्यांत ऑगस्ट म्हयनो येता. १ ऑगस्ट-टिळक पुण्यतीथ आनी १५ ऑगस्ट- भारतीय स्वातंत्र्य दीस हे राश्ट्रीय म्हत्वाचे दीस ह्या म्हयन्यांत येतात.

- कों. वि. सं. मं.

**ऑनसॅगर, लार्सः** (जल्मः २७ नोव्हेंबर १९०३, ऑस्लो-नॉर्वे; मरणः ५ ऑक्टोबर १९७६, कोरल गेबल्स, फ्लॉरिडा.)

अमेरिकन रसायनशास्त्रज्ञ. १९२५ त, ताणें ट्रॉंडहाइम हांगाच्या नॉर्वेजियन टेक्निकल इन्स्टिट्यूटांतल्या सीएच्. ई. पदवी मेळयली. उपरांत झुरिक हांगाच्या फेडरल इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजी हातूंत ताणें शिकप केलें. १९२८ त, अमेरिकेंतल्या बाल्टिमोरच्या जॉन्स हॉपकिन्स विद्यापीठांत रसायनशास्त्रांतलो साहाय्यक म्हूण ताणें काम केलें. १९२८-३३ ह्या काळांत तो ब्राऊन विद्यापीठांत अध्यापक आशिल्लो. थंय आसतना १९३१ त, ताणें आपल्या ऊष्मागतिकीच्या (thermodynamics) चवथ्या नेमाविशींचो मुळावो संशोधनपर निबंद आनी अव्युत्क्रमी (irreversie) रसायनीक प्रक्रियांविशींचे सिध्दांत उजवाडायले. १९३३-३४ त, तो येल विद्यापीठांत स्टर्लिंग फेलो आशिल्लो. १९३५ त, ताणें येल विद्यापीठाची डॉक्टरेट मेळयली. १९७३ मेरेन येल विद्यापीठांत सैध्दांतिक रसायनशास्त्र विशयाचो प्राध्यापक म्हूण ताणें काम केलें. ऊष्मागतिकीविशीं ताणें केल्ल्या मोलादिक संशोधनाखातीर ताका १९६८ त, रसायनशास्त्र विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. अव्युत्क्रमी ऊष्मागतिकीची बुन्याद घालपाखातीर आनी विद्युत् अपार्य (dielectric) आनी विद्युत् विच्छेद्य (electrolyte) पदार्थ हांचे विशींच्या सिध्दांतांत भर घाली, म्हूण १९५३ त ताका रम्फर्ड पदक, लॉरेन्स पदक (१९५८) आनी हेर जायतीं पदकां मेळ्ळीं.

- कों. वि. सं. मं.

**ऑयलर, वूल्फ स्व्हँटे फॉनः** (जल्मः ७ फेब्रुवारी १९०५, स्टॉकहोम).

स्वीडिश शरीरक्रियाविज्ञानाचो विद्वान. बापायचें नांव हान्स फॉन ऑयलर केल्पिन. सुर्वेक तो ब्रिटन, बेल्जियम आनी अर्जेंटिना हांगाच्या

विद्यापीठांत काम करतालो. फुडें १९३० वर्सा, स्वीडनांतल्या कॅरोलिना हे संस्थेंत ताणें एम्. डी. ही पदवी मेळयली आनी थंयच्यानूच आपलें संशोधन कार्य सुरू केलें. हे संस्थेंत शरीरक्रियाविज्ञानाचो प्राध्यापक म्हूण ताची नेमणूक जाली.

१९४८ त, ताणें अनुकंपी तंत्रिका तंत्रांतल्यो (sympathetic nervous system) संवेदना नॉर ॲड्रेनॅलीन ह्या प्रवर्तकाखातीर (hormone) जाता हें दाखोवन दिलें. तशेंच तंत्रिका तंत्रांतल्या, तंत्रिका तंतूंतल्या कणासारक्या पदार्थांत नॉर ॲड्रेनॅलीन ह्या प्रवर्तकाचो सांठो आसता, हें ताणें सिध्द केलें. हाचेवेल्यान तंत्रिका संवेदना कशो पातळटात हें समजप सोपें जालें.

१९७० वर्सा, ऑयलर हाका वैजकी विशयाचें नोबेल इनाम, ज्यूल्यस ॲक्सलरॉड आनी बर्नाड काट्झ हांच्या वांगडा वांटून मेळ्ळें. तेचप्रमाण चड रक्तदाब आनी रोहिणी घट जावप, हांच्याविशीं केल्ल्या संशोधनाखातीर ताका 'स्वीडिश ऑर्डर ऑफ नॉर्थ स्टार' आनी 'स्टाउपर इनाम' हे भोवमान मेळ्ळे.

- कों. वि. सं. मं.

## ऑयलर-कॅल्पिन, हान्स कार्ल आउगुस्ट सायमन फॉनः

(जल्मः १५ फेब्रुवारी १८७३, आउग्जबर्ग-बव्हेरिया; मरणः ७ नोव्हेंबर १९६४, स्टॉकहोम).

स्वीडिश रसायनशास्त्रज्ञ. म्यूनिक, वर्त्सबर्ग, बर्लिन आनी गटिंगन ह्या विद्यापीठांनी आनी पारिसांतले पाश्चर संस्थेंत ताणें शिक्षण घेतलें. १८९५ वर्सा, ताका बर्लिन विद्यापीठाची पदवी मेळ्ळी. डब्ल्यू. नेर्न्स्ट आनी जे. एच्. व्हां हॉफ हे नामनेचे शास्त्रज्ञ ताचे शिक्षक आशिल्ले. १८९७ वर्सा, एस्. ए. अऱ्हेनियस हाच्या हातासकयल भौतिक सहाय्यक म्हूण काम केलें. १९०० वर्सा, स्टॉकहोम हांगा भौतिकी रसायनशास्त्राचो अधिव्याख्यातो म्हूण ताची नेमणूक केली. थंयच १९०६ वर्सा, तो सामान्य आनी अकार्बनी रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक जालो. फुडें तो कार्बनी रसायनशास्त्राकडेन वळ्ळो. १९२९ त, ताची व्हिटॅमिन इन्स्टिट्यूट आनी इन्स्टिट्यूट ऑफ बायोकेमिस्ट्री ह्या संस्थांच्या संचालकपदाचेर नेमणूक जाली.

ताणें एंझाइम (enzymes) आनी शर्करेचें किण्वन (fermentation) हांचेर म्हत्वाचें संशोधन केलें. ताणें केल्ल्या एंझाइमावेल्या संशोधनात अशें दिसून आयलें की, जेन्ना एकाद्र्या एंझाइमाची दुसऱ्या पदार्थाचेर विक्रिया (reaction) जाता तेन्ना एंझाइम आनी पदार्थ हातूंतली रसायनीक आसक्ती ही अम्ल गट (acidic group) आनी क्षारीय गट (alkali group) हांच्या मदल्या बंधां (bonds) सारकी आसता. खाशेल्या एंझाइमांचेर जाची विक्रिया जाता ताचो आनी ताचे विक्रियेखातीर जाय आशिल्ल्या को-एंझाइमाचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. शर्करा अवशेश आनी प्युरीन अवशेश हांचें स्नायूंत वेगळ्या रुपान मेळपी ॲडेनिलिक अम्लांकडेन खुबूच सारकेपण आसा, हेंय ताणें सिध्द केलें.

तांच्या संशोधनाक लागून शर्करा आनी फॉस्फेट हांच्या जीवरसायन शास्त्रीय गिन्यानांत मोलाची भर पडली. एंझाइम आनी शर्करेचें किण्वन हांच्यावेल्या ताच्या मोलादीक संशोधनकार्याखातीर, १९२९ वर्सा ताका सर हार्डेन हाच्या वांगडा रसायनशास्त्राचें नोबेल इनाम वांटून मेळ्ळें.

- कों. वि. सं. मं.

## ऑर्वेल, जॉर्जः

(जल्मः १९०३, मोतीहारी- बंगाल; मरणः २१ जानेवारी १९५०, लंडन).

इंग्लीश कादंबरीकार, समीक्षक आनी विचारवंत. ताचें खरें नांव एरिक ब्लेअर. इंग्लंडांतल्या ईटन हांगा ताणें शिक्षण घेतलें. सुर्वेक कांय काळ पोलीस दलांत नोकरी केली. उपरांत सुमार देड वर्स ताणें पारिसांत भोंवडी केली आनी लेखन केलें. उपरांत इंग्लंडाक परत येतकच ताणें 'जॉर्ज ऑर्वेल' ह्या टोपण नांवान बरोवंक सुरवात केली.

'बर्मीज डेज' (१९३४), 'क्लर्जिमन्स डॉटर' (१९३५), कीप द ॲस्पिडिस्ट्रा फ्लाइंग' (१९३६), 'ॲनिमल फार्म' (१९४५), 'नाइन्टीन एटीफोर' (१९४९) ह्यो ताच्यो कांय नामनेच्यो कादंबऱ्यो. 'बर्मीज डेज' हे कादंबरीवरवीं ताणें ब्रिटीश साम्राज्यवादाचेर टीका केली. 'क्लर्जिमन्स डॉटर' आनी 'कीप द ॲस्पिडिस्ट्रा फ्लाइंग' ह्या कादंबऱ्यांनी कश्टदिणेजीणेचें वास्तववादी चित्रण केलां. ताची 'ॲनिमल फार्म' ही कादंबरी म्हळ्यार रशियन राज्यक्रांतीवेलें, उपरोधान भरिल्लें रुपक जावन आसा. 'नाइन्टीन एटीफोर' हे कादंबरींत ताणें राजसत्तेचेर खर टीका केल्या. 'इनसाइट द व्हेल' (१९४०), 'क्रिटिकल एसेज' (१९४६) आनी 'शूटिंग ॲन एलिफंट' (१९५०) हे ताचे टीकात्मक झेले. ताची समीक्षा कांयकडेन पूर्वग्रहदुशीत दिसली, तरी मन जिखपी आनी स्वतंत्र विचारांची आसा.



जॉर्ज ऑर्वेल

'रोड टू विगन पिअर' (१९३७) ह्या पुस्तकांत ताणें लँकाशर हांगाच्या कश्टी लोकांचें वर्णन केलां. 'होमेज टु कॅटलोनिआ' (१९३८) पुस्तकांत ताणें स्पेनच्या यादवी झुजाविशीं आपले अणभव बरयल्यात.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत ब्रिटीश ब्रॉडकास्टिंग कॉर्पोरेशन (B.B.C) वेल्या कार्यावळींची म्हत्वाची जापसालदारकी ताणें सांबाळिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

## ऑलिंपिक खेळः

आंतरराश्ट्रीय ऑलिंपिक संघटनेवरवीं सगळ्या राश्ट्रांखातीर दर चार वर्सांनी ज्यो संवसारीक खेळांसर्ती घडोवन हाडटात, तांकां 'ऑलिंपिक खेळ' म्हण्टात.

पूर्विल्ल्या काळांत ग्रीस देशांत ऑलिंपिया हे सुवातेर ऑलिंपिक खेळ भरताले. ताचेवेल्यान ह्या सामन्यांक 'ऑलिंपिक खेळ' हें नांव पडलें.

ग्रीक लोकांक 'ऑलिंपिक' खेळाचे आद्यप्रणेते अशें मानतात. तज्ञांच्या मतान ग्रीस देशांत सुमार साडेतीन हजार वर्सांआदीं ह्या खेळाची सुरवात जाली. ग्रीक महाकवी होमर हाच्या 'इलियड' महाकाव्यांत इ. स. प. १३७० वर्सां, अशा खेळाचो उल्लेख आयला. एके दंतकथेंत, झिअस आनी केनोज ह्या दोन देवदूतांमदीं धर्तरेचेर शेक कोणाचो चलचो ह्या प्रस्नाक लागून वाद जाल्लो असो उल्लेख आयला. फुडें ह्या दोगांयमदीं झूज (कुस्ती) जालें. तातूंत झिअस हाका जैत मेळ्ळें. हें जैत धर्मीक परंपरेन मनयलें. उपरांत राजा ॲथालिओ हाणें खेळांची परंपरा चालू केली. ऑलिंपिक खेळांत धांवपाचे सर्तींत आपल्या पुतांमदीं जो पयलो येतलो ताका राज्य दिवपाची घोशणा ॲथालिओ हाणें केली. ताकाच ॲथलेटीक्सचो आद्य प्रणेतो म्हूण वळखतात. पूण तेविशीं वस्तुनिश्ठ पुरावो मेळना.

ग्रीक लोक मूळांतच धर्मीक वृत्तीचे आसले. झिअस, अपोलो, हर्मीझ, अथीना, डिमीटर आनी हेर देवदेवतांची पूजा करून तांकां प्रसन्न करून घेवप हो ताचेफाटलो हेत आसतालो. हे धर्मीक वृत्तींतल्यान ऑलिंपिक खेळांचो उदय जालो. देवदेवतांचे परबेनिमतान घडोवन हाडिल्ल्या ह्या खेळांत मनशाचे कुडीची तांक आनी कसब पळोवंक मेळटाले. धांवप, भालोफेक, थाळीफेक, शारिरीक कसरती, कुस्ती, मुश्टिझूज ह्या खेळांचो ह्या खेळामेळांत आस्पाव जातालो. ह्या खेळांचें शिकप दिवपी मैदानां आनी शाळा आसताल्यो.

ऑलिंपिक खेळ दर चार वर्सांनी गिमाचे मदीं येवपी पुनवे वेळार चार

पांच दिसांखातीर भरताले. ग्रीक देवांचो राजा 'झिअस' हाचे यादीक हे खेळ भरताले. ह्या खेळांत वांटो घेवपी खेळगडे धा म्हयने सराव करताले. पयल्या दिसा खेळांत वांटो घेवपी खेळगड्यांची चांचणी घेताले तशेंच तांकां सोपूत दिताले. दुसऱ्या दिसा रथ आनी घोड्यांच्यो सर्ती जाताल्यो. तिसऱ्या दिसा पुनवेक झिअस देवाक प्रसन्न करचेपासत आहुती, बलिदान सारक्यो कार्यावळी जाताल्यो. दनपरां तरनाट्यांच्यो विंगडविंगड सर्ती घेताले. चवथ्या दिसा धांवप, कुस्ती, मुष्टिझूज हे खेळ जाताले. पांचव्या दिसा ऑलिव्हच्या पानांचो मुकूट घालून जैतिवंतांचो भोवमान जातालो. निमाणें, व्हड जेवणावळ घालून दबाजो सोंपयताले.

मेळिल्ले इतिहासीक पुरावे आनी परंपरेप्रमाण पयले ऑलिंपिक खेळ इ. स. प. ७७६ वर्सा इफिटस राजाचे राजवटींत जाले. कायदेपंडीत लायकरगस हाणें हे खेळ सुरू केले अशें म्हण्टात. शुध्द ग्रीक रगताच्या आनी तीस वर्सां पुराय जाल्ल्या तरनाट्यांक खेळांत वांटो घेवपाक मेळटालो. सर्तीचे निकाल पंच दितालो. हो पंच खेळांतय वांटो घेवंक शकतालो. बायलांक खेळांत प्रवेश नासलो. उपरांत पंचांनी खेळांत वांटो घेवपाची चाल बंद जाली.

इ. स. प. ७७६ वर्सा ग्रीसांत ऑलिंपिया हे सुवातेर जेन्ना ऑलिंपिक जालें, तेन्ना मोटी तयारी केल्ली. १२.१९ मी. उंचायेचो भांगर, हस्तिदंत आनी हिऱ्यामाणकांचो झिअसचो पुतळो आशिल्लें देवूळ थंय बांदिल्लें. जैतिवंत खेळगड्यांचे पुतळे, देवळाच्या अयस पयस इमारती, खेळामैदानां, नाटकांघर, ५०,००० लोकांक खेळ पळोवपाक मेळटलें अशें सभाघर उपरांत जाल्ल्या ऑलिंपिक खेळावेळार थंय बांदिल्लें. मुखेल खेळांच्यो सर्ती व्हड आनी मुखेल सभाघरांत जाताल्यो. धांवपाखातीर १९२ मी. लांब आनी २९.४३ मी. रुंद सुवात थंय राखून दवरताले. ताका स्टेड म्हण्टाले. विंगडविंगड स्टेड अंतराच्यो सर्ती जाताल्यो. मैदानार सादारणपणान भुसभुशीत रेंव आसताली. खेळगडे उक्त्या पायांनी धांवताले.

इ. स. प. ७७६ वर्सा जाल्ल्या ऑलिंपिक खेळांत धांवपाची सर्त जाली. ती इलिस नगराच्या कोरोबस ह्या खेळगड्यान जिखली. ताका संवसारांतलो पयलो ऑलिंपिक जैतिवंत मानतात. इ. स. प. ७२४ वर्सा धांवपाच्यो दोन सर्ती, इ. स. प. ७२० वर्सा धांवपाच्यो चार सर्ती, इ. स. प. ७०८ वर्सा कुस्ती आनी पॅन्थालॉन, इ. स. प. ६८८ वर्सा मुष्टिझूज आनी रथांसर्ती ह्या खेळांचो ऑलिंपिक खेळांत आस्पाव जालो. इ. स. प. ६३२ ते ६१६ वर्सा चल्यांखातीर खास खेळाचें आयोजन केलें. ७७ वें ऑलिंपिक इ. स. प. ४७२ त भरलें. तो मेरेन ऑलिंपिक खेळ एका दिसा पुरते मर्यादित आसले. उपरांत हे खेळ पांच दीस मेरेन खेळपाक लागले.

इ. स. प. दुसऱ्या शतमानाचे मदीं ग्रीसाचेर रोमन लोकांची राजवट आयली. रोमन लोकांनी ऑलिंपिक खेळ बंद उडयले नात. पूण खेळाचें स्वरूप पुरायतरेन बदलून उडयलें. प्रतिस्पर्धी खेळगड्याक जखमी करून हरोवप, दोन पैलवानांमजगतीं एकलो कोणूय पुराय तरेन सोंपसर सशस्त्र झूज, मनीस आड शिंव वा वाग हे तरेचे भिरांकूळ खेळ जावपाक लागले.

जीवावेलो काळ थारपी ह्या सगळ्या गजालींची गंभीरपणान नोंद घेवन इ. स. ३९४ वर्सा रोमन बादशहा 'थीओडोशियस' हाणें एका कायद्यावरवीं ह्या खेळांचेर बंदी घाली. अशे तरेन सुमार १,२०० वर्सां अखंड चलत आयिल्ले ऑलिंपिक खेळ बंद पडले. दुसरो थीओडोशियस हाणें हे खेळ परते सुरू केले तेवूय बंद पडले.

पूर्विल्ल्या ऑलिंपिक खेळांत नामना जोडिल्ले खेळगडे खूब आसात. चिऑनिस ह्या स्पार्टाच्या खेळगड्यान धांवपाचे सर्तींत (स्टेड-रेस) तीन फावट, तर लीऑनिडस ह्या खेळगड्यान फाटोफाट चार फावट जैत जोडिल्लें. हार्मोजिनस हाणें तीन खेळांत वांटो घेवन आठ जैतां जोडिल्लीं म्हूण ताका 'अश्व' (हिप्पोज) म्हण्टाले. नामनेचो तत्त्ववेत्तो पायथॅगोरस हाचो शिष्य मायलो हाणें कुस्तींत सात फावट वस्तादपण जोडिल्लें. अलेक्झांडराचो बापूय मॅसिडोनियाचो राजा फिलीप हाणें रथाची सर्त जिखिल्ली. इ. स. ६७ वर्सा जाल्ल्या ऑलिंपिक खेळांत फिडल वाजोवपांत नामना जोडिल्लो रोमन सम्राट 'नीरो' हाणें वांटो घेतिल्लो. ताणें गायन, वादन आनी अभिनयाचे सर्तींत वांटो घेवन जैत जोडिल्लें.

**आर्विल्ले ऑलिंपिक खेळः** ऑलिंपिक खेळाचो पुर्नजल्म परतून जावंचो म्हूण बॅरन पियॅर द कुबॅरतँ हाणें खूब वावर केलो. २५ नोव्हेंबर १८९२ ह्या दिसा पारिस हांगा अॅथलॅटिक्स खेळांमंडळांचे बसकेंत ऑलिंपिक खेळ परतून जावंचे म्हूण ताणें मागलें. जुलय १८९४ त, पियॅर द कुबॅरतँ हाणें आंतरराश्ट्रीय खेळां परिशद पारिस हांगा ऑलिंपिक खेळ भरपाविशीं येवजण मांडली. हे येवजणेक सगळ्या देशांच्या प्रतिनिधींनी येवकार दिलो. ऑलिंपिक खेळ परते सुरू जावंचे म्हूण पियॅर द कुबॅरतँ हाणें जो वावर केलो, तेखातीर ताका आर्विल्ल्या ऑलिंपिकाचो मूळ पुरुस म्हूण वळखतात.

पयले आर्विल्ले ऑलिंपिक खेळ ६ एप्रिल ते १५ एप्रिल १८९६ ह्या दिसांनी अथेन्स (ग्रीस) हांगा जाले. तातूंत वट्ट १३ देशांनी ९ खेळांत वांटो घेतिल्लो. जॉर्ज अॅव्हरॉफ ह्या गिरेस्तान ह्या खेळांखातीर अर्थीक आदार दिल्लो. तीन पांवड्यांत उडी मारपाचे सर्तींत जेम्स कोनोली (अमेरिका) हाणें वस्तादपण जोडून ऑलिंपिक गाजयलें. १९०० वर्सा पारिस ऑलिंपिकांत, आडमेळ्यांची सर्त जिखपी 'क्रेन्झलीन' हिरो थारलो. ब्रिटनची गार्लोट कूपर ही पयली बायल ऑलिंपिक जैतिवंत थारली. तिणें टेनीस खेळांत हे येस ज़ोडलें. १९०४ वर्सा सेंट-लुईस (अमेरिका) हांगाचें ऑलिंपिक गाजलें ना, पूण तातूंत कांय विक्रमांची नोंद जाली. १९०८ वर्सा, लंडन ऑलिंपिकांत जैतिवंत खेळगड्यांक भांगरापदकां दिलीं. १९१२ वर्साचे स्टॉकहोम ऑलिंपिक, जिम थ्रोप ह्या अँग्लो इंडियन खेळगड्यान पॅटॅथ्लॉन आनी डेकॅथ्लॉन ह्या खेळांत जैतिवंत जावन गाजयलें. उपरांत बेसबॉल खेळपाखातीर पयशे घेतले म्हूण ताका सर्तींतल्यान बाद केलो. १९१४ वर्सा पयलें म्हाझूज सुरू जालें. ताका लागून १९१६ वर्सा बर्लिन ऑलिंपिक जालें ना. १९२० त, अँटवर्प हांगा, ऑलिंपिक बावटो आनी खेळगड्यांनी घेवपाचो सोपूत ह्यो गजाली सुरू जाल्यो. व्हिक्टर बॉईन ह्या बॅल्जियमच्या खेळगड्यान पयलो सोपूत घेतलो. १९२४ तलें पारिस ऑलिंपिक नुर्मी ह्या खेळगड्यान गाजयलें. १९२८ तल्या अॅम्स्टरडॅम ऑलिंपिकांत भारताच्या हॉकी पंगडान भांगरापदक हातासलें. १९३२ तल्या लॉस अँजेलीस ऑलिंपिकाक अर्थीक मंदीक तोंड दिवचें पडलें. ताका लागून तातूंत व्हडलोसो नेट नासलो. १९३६ तलें बर्लिन ऑलिंपिक जेसी ओवन्स ह्या नीग्रो खेळगड्यान चार भांगरापदकां जिखून गाजयलें. व्हडपण हें वंशीक नासता हें ताणें दाखोवन दिलें.

दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून १९४० आनी ४४ वर्सा ऑलिंपिक जावंक पावलेंना. म्हाझुजाउपरांतचें ऑलिंपिक १९४८ वर्सा लंडनांत जालें. ताका दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत उप्राशिल्ले परिस्थितीक तोंड दिवचें पडलें. १९५२ च्या हेलसिंकी ऑलिंपिकांत एमिल झाटोपॅक आनी डायना ह्या जोडप्यान भांगरापदक जिंखलें. कम्युनिस्ट रशियान ४० वर्सांच्या खंडाउपरांत ऑलिंपिकांत वांटो घेतलो. १९५६ वर्साचें ऑलिंपिक, मेलबोर्न (ऑस्ट्रेलिया) हांगा जालें. हे खेळ युरोप वा अमेरिकेभायर जावपाची ही पयलीच खेप आसली. १९६० वर्सा, रोम ऑलिंपिकांत महंमद अली (आदलो कॅशियस क्ले) हाणें अठराव्या वर्सा मुष्टिझूजाचें वस्तादपण जोडलें. १९६४ तलें ऑलिंपिक, जपानांत टोकिओ शारांत जालें. आशिया खंडांतल्या देशाक ऑलिंपिक खेळाचें येजमानपण मेळपाची ही पयली खेप आसली. १९६८ वर्साच्या मॅक्सिको ऑलिंपिकांत बायल खेळगड्यांची लिंगपारख करपाची चाल सुरू जाली. १९७२ वर्साच्या म्युनीक ऑलिंपिकाक पॅलेस्टिनी आकांतवाद्यांनी ११ इझ्राएली खेळगड्यांक जिवेशीं मारले. १९७६ तलें मॉंट्रीयल ऑलिंपिक रुमानियाचे नादिया कोमानेसी हिणें कसरतींत (Gymnastics) सगळ्यांतले सगळे गूण (२०.०००) घेवन गाजयलें. १९८० वर्सा, मॉस्को ऑलिंपिकांत अमेरिका आनी ताच्या इश्ट देशांनी अफगाणिस्तानांतले रशियेचे लश्करी कारवायेचो निशेध म्हूण वांटो घेवंक ना. १९८४ वर्साच्या लॉस अँजेलीस

ऑलिंपिक खेळांत विक्रम करपी कांय आंतरराश्ट्रीय पांवड्यावेले खेळगडे अशे:

दादले

| खेळगडे | देश | खेळप्रकार | वेळ | वर्स |
|---|---|---|---|---|
| कार्ल लुईस | अमेरिका | १०० मी. | ९.९२ से. | १९८८ |
| जे. डीलॉक | अमेरिका | २०० मी. | १९.७५ से. | १९८८ |
| एल्. इव्हान्स | अमेरिका | ४०० मी. | ४३.८० से. | १९६८ |
| एस्. लुईस | अमेरिका | ४०० मी. | ४३.८७ से. | १९८८ |
| जे. क्रूझ | ब्राझील | ८०० मी. | १.४३.०० से. | १९८४ |
| सॅबेस्टियन को | ग्रेट ब्रिटन | १,५०० मी. | ३.३२.५३ से. | १९८४ |
| एस्. आवीता | मोरोक्को | ५,००० मी. | १३.०५.५९ से. | १९८४ |
| सी. लोपीस | पोर्तुगाल | मेराथॉन | २ वरां ९ मि. २१ से. | १९८४ |
| रॉजर किंगडम | अमेरिका | ११० मी. आडखळी | १२.९८ से. | १९८८ |
| ए. फिलिप्स | अमेरिका | ४०० मी. आडखळी | ४७.१९ से. | १९८८ |
| एडविन मोझेस | अमेरिका | ,, | ४७.७५ से. | १९८४ |
| जी. आवदेयॅन्को | रशिया | ऊंच उडी | २.३८ मी. | १९८८ |
| बॉब बिमन | अमेरिका | लांब उडी | ८.९० मी. | १९६८ |
| डेले थॉमसन | ग्रेट ब्रिटन | डेकलथॉन | ८७९७ गूण | १९८४ |
| सर्जेई बुबका | रशिया | पोल वॉल्ट | ५.९० मी. | १९८८ |

बायलो

| खेळगडे | देश | खेळप्रकार | वेळ | वर्स |
|---|---|---|---|---|
| फ्लॉरेन्स ग्रिफीथ जॉयनर | अमेरिका | १०० मी. | १०.५४ से. | १९८८ |
| फ्लोरेन्स ग्रिफीथ जॉयनर | अमेरिका | २०० मी. | २१.३४ से. | १९८८ |
| ओ. ब्रीझजीना | रशिया | ४०० मी. | ४८.६५ से. | १९८८ |
| एन्. ओलिझारेन्को | रशिया | ८०० मी. | १.५३.५ से. | १९८० |
| टी. काझानकिना | रशिया | १,५०० मी. | ३.५६.०६ से. | १९८० |
| टी. सामोलेन्को | रशिया | ३,००० मी. | ८.२६.५३ से. | १९८८ |
| ओ. बोंदारेन्को | रशिया | १०,००० मी. | ३१.०५.२१ से. | १९८८ |
| जे. बेनोइत | अमेरिका | मेराथॉन | २ वरां २४ मि. ५२ से. | १९८४ |
| जे. डोनकोवा | बल्गेरिया | १०० मी. आडखळी | १२.३८ से. | १९८८ |
| एल्. रिटर | अमेरिका | ऊंच उडी | २.०३ मी. | १९८८ |

ऑलिंपिकांत रशिया आनी ताच्या इश्ट कम्युनिस्ट देशांनी वांटो घेतलो ना. अशे तरेन रशियान अमेरिकेच्या मॉस्को ऑलिंपिकाचेर घाल्ल्या बहिश्काराक उरफाटी जाप दिली. १९८८ वर्सा सोल (दक्षिण कोरिया) ऑलिंपिकांत, १६० देशांतल्या १३.६२६ खेळगड्यांनी २३ खेळांच्या प्रकारांत वांटो घेतलो. हो एक विक्रम आसा. ह्या ऑलिंपिकांत लॉन टेनीस खेळांत पयलेच फावट वेवसायीक खेळगड्यांक खेळपाची संद मेळ्ळी. दादल्यांचें जैतिवंतपद चेकोस्लाव्हाकियाच्या मिलोस्लाव मेसीर तर बायलांचें अस्तंत जर्मनीच्या स्टेफी ग्राफ हिणें जिखलें.

**ऑलिंपिक खेळांत भारताचो वांटो:** १९२० वर्सा, अँटवर्प (बेल्जियम) हांगा भरिल्ल्या सातव्या ऑलिंपिक खेळांत भारताच्या अनधिकृत पंगडान वांटो घेतिल्लो. तातूंत २ कुस्ती खेळपी आनी ४ हेर खेळगडे आसले. हो पंगड धाडचेपासत सर दोराबजी टाटा हाणें खूब यत्न केल्ले. १९२४ वर्सा, पारिस ऑलिंपिक खेळांत बॅक हाच्या फुडारपणाखाल अधिकृत पंगड धाडिल्लो, तातूंत फकत दलिपसिंग हाका लांब उडयेंत सातवो क्रमांक मेळ्ळो.

१९२८ वर्सा ॲम्स्टरडॅम हांगा, भारताच्या हॉकी पंगडान भांगरापदक जिखून भारताखातीर पयलें पदक जिखलें. भारतीय हॉकी पंगडान उपरांत लॉस ॲंजेलीस (१९३२), बर्लिन (१९३६), लंडन (१९४८), हेलसिंकी (१९५२), मेलबोर्न (१९५६), टोकिओ (१९६४), मॉस्को (१९८०) हांगाच्या ऑलिंपिक खेळांत ऑलिंपिक वस्तादपण जोडून भांगरापदकां हातासलीं.

१९६० वर्सा, रोम ऑलिंपिक खेळांत मिल्खासिंग हाणें ४०० मी. सर्तीत चवथी सुवात जोडिल्ली. १९८४ च्या लॉस ॲंजेलीस ऑलिंपिक खेळांत, बायलांचे ४०० मी. आडमेळ्यांचे सर्तीत पी. टी. उषान चवथी सुवात मेळयिल्ली. हे सोडल्यार भारताचो हेर खंयचोच खेळगडो ऑलिंपिक खेळांत आंतरराश्ट्रीय पांवड्याचो खेळ दाखोवंक पावंक ना.

**खेळांप्रकारः** १९८८ वर्साचे सोल ऑलिंपिक मेरेन ज्या २३ खेळप्रकारांक ऑलिंपिक खेळांत सुवात मेळिल्ली ते अशे: १. धनुर्विद्या २. ॲथलेटीक्स ३. बास्केटबॉल ४. मुष्टिझूज ५. पनेळ सर्त ६. सायकलींग ७. घोड्यां सर्त ८. तरसादी सर्त ९. फुटबॉल १०. कसरती ११ हॅण्डबॉल १२. हॉकी १३. ज्यूडो १४. मॉडर्न पॅटॅथ्लॉन १५. व्हड्या सर्त १६. पिस्तूलबाजी वा नेमबाजी १७. पेंवप १८. व्हॉलीबॉल १९. वजन उखलप २०. शिडां-व्हड्यांसर्त २१. कुस्ती २२. टेबल टेनीस २३. लॉन टेनीस.

**ऑलिंपिक रीतरिवाज आनी पध्दती:** ऑलिंपिक खेळांत पवित्र रीतरिवाजांक चड म्हत्व आसता. आयजूय ताका पाळो दितात. तातूंतल्यो कांय गजाली फुडलेतरेन आसात.

*ऑलिंपिक दिवटी:* ऑलिंपिक दिवटी पेटोवप हें ह्या खेळांतलें पवित्र कार्य आसता. ही दिवटी ग्रीसांत, ऑलिंपिया गांवांतल्या हिराच्या देवळांत रीतरिवाजाप्रमाण पेटयतात. थंयच्यान ही दिवटी जंय ऑलिंपिक खेळ जातात, ते सुवातेर सुवाळ्यावरखीं हाडटात. जोवेळमेरेन ऑलिंपिक खेळ चलतात, तितले दीस ही दिवटी थंय पेट्टा. खेळ सोंपतकच नेमाप्रमाण ती पालयतात. १९२८ त, ॲम्स्टरडॅम ऑलिंपिकांत ही दिवटी पयले फावट पेटयली.

*खेळगड्यांचो सोपूत:* ऑलिंपिकांत वांटो घेवपी दरेक खेळगडो फुडल्या उतरांनी सोपूत घेता. 'आमी असो सोपूत घेतात की, आमी खिलाडूवृत्तीचे ऊंच भावनेन ऑलिंपिक खेळांत वांटो घेतले. खेळाचें व्हडपण आनी आमच्या देशाचो भोवमान राखूंक खेळांतले नेम आनी नीत हांकां आमी पाळो दितले आनी तांचो आदर करतले.' १९२० वर्सा, ॲंटवर्प ऑलिंपिक खेळांत बॅल्जियम देशाच्या व्हिक्टर बॉईन ह्या खेळगड्यान सगळ्यांत पयलीं असो सोपूत घेतिल्लो. सगळ्या खेळगड्यांच्या वतीन हो सोपूत घेतात.

*ऑलिंपिक प्रतीक:* ऑलिंपिक बावट्याच्या धवे फाटभुंयेचेर तांबडें, निळें, हळडुवें, काळें, पाचवें अशा रंगांचीं एकामेकांत घुसपल्लीं पांच वर्तुळां, ऑलिंपिक खेळाचें प्रतीक आसून तीं पांच खंडांची इश्टागत दाखयतात. ह्या वर्तुळांचें म्हळ्यार ऑलिंपिकाचें ध्येयवाक्य 'चड गतिमान, चड ऊंच आनी चड बळिश्ट' अशें आसा. (लॅटीन भाशेंत- Citius, Altius, Fortius ).

ऑलिंपिकाच्या वर्तुळांकय एक इतिहास आसा. इ. स. प. ६७६ वर्सा इलिसच्या इपिथस राजान शांततायेखातीर आज्ञापत्र काडिल्लें. तातूंत खेळ चलतना शस्त्रां बाळगुपाक बंदी घाल्ली. राज्यांतली प्लेगाची साथ पयसावची म्हूण हें आज्ञापत्र काडिल्लें. हो आंगवणीचो प्रकार आसलो. हें आज्ञापत्र कांश्याच्या पांच वर्तुळांत कोरांतिल्लें. हीं पांच वर्तुळां फुडें ऑलिंपिक खेळांचें प्रतीक जालें. सद्याचो बावटो १९१३ वर्सा बॅरन कुबॅरतें हाचे सुचोवणेप्रमाण वयलेवरी केलो. १९१४ वर्सा पारिस ऑलिंपिकांत तो पयले खेपे वापरलो.

*ऑलिंपिक बोधचिन्ह (Mascot):* ऑलिंपिक बोधचिन्ह राखपाची चाल १९७२ वर्सा म्युनीक ऑलिंपिकांत सुरू जाली. त्या वर्साच्या बोधचिन्हाचें नांव 'वाल्डी' (Waldi). १९७६ वर्साच्या बोधचिन्हाक 'अमीक', १९८० वर्साच्या बोधचिन्हाक 'मिशा', १९८४ वर्साच्या बोधचिन्हाक 'सॅम' तर १९८८ वर्साच्या बोधचिन्हाक 'होदोरी' हीं नांवां आसलीं. १९९२ वर्साचें ऑलिंपिक बोधचिन्ह 'कोबी' म्हळ्यार सुणो हें आसतलें.

*ऑलिंपिक गीत:* ऑलिंपिक खेळाचें एक खाशेलें गीत आसून तें उक्तावण दबाज्यावेळार वाजयतात.

*ऑलिंपिक तस्त्रीप, पदकां:* ऑलिंपिक सर्तीत पयले तीन क्रमांक जोडप्यांक भांगर, रूपें आनी कांशें ह्या धातूंचीं पदकां फाव जातात. पयले स क्रमांक जोडप्यांक प्रशस्तीपत्र मेळटा. दरेक पदक ६० मिमी. व्यासाचें आनी ३ मिमी. दाटायेचें आसता. भांगरापदकांत ६ ग्रॅम भांगर आसता. रूप्या पदकांत ९२.५% रूपें आसता.

**ऑलिंपिक खेळाचें आयोजनः** ऑलिंपिक खेळाचें आयोजन, वेवस्था आनी नियंत्रण 'इंटरनॅशनल ऑलिंपिक कमिटी' ही संस्था पळयता. तातूंत दरेक वांगडी देशाचे एक ते तीन प्रतिनिधी आसतात. भारताचें प्रतिनिधित्व करपी 'इंडियन ऑलिंपिक असोसिएशन' ही संस्था दिल्ली हांगा १९२७ वर्सा घडयली. इंटरनॅशनल ऑलिंपिक कमिटीची मुखेल कचेरी स्वित्झर्लंडच्या लोझान शारांत आसा. पियॅर द कुबॅरतें, १८९६ ते १९२५ मेरेन हे संस्थेचो अध्यक्ष आसलो. १९२५ ते १९४२ मेरेन, बॅल्जियमचो काउंट लातूर, १९४२ ते ४५ मेरेन स्वीडनचो झिगफ्रिड एड्स्ट्रम, १९५२ ते ७० मेरेन अमेरिकेचो ॲव्हरी ब्रुंडेज आनी उपरांत लॉड किलानीन हे समितीचो अध्यक्ष जालो. सद्या खुआन आन्तोनियो सामारांच हे समितीचो अध्यक्ष आसा. ही संस्था ऑलिंपिक खेळाचें खंयचे सुवातेर आयोजन करचें तें थारायता. ऑलिंपिक खेळाचें यजमानपण शारांक दितात, देशांक दिनात. संवसारांतल्या देशांचीं झगडीं वा धुसपटी नाका थंय वयर सरच्यो न्हय म्हूण अशी मांडावळ केल्या.

१८९६ वर्सासावन विंगड विंगड सुवातींनी जाल्ले ऑलिंपिक खेळ, अशे: १८९६- अथेन्स (ग्रीस); १९००-पारिस (फ्रांस); १९०४- सेंट लुईस (अमेरिका); १९६०-अथेन्स (ह्या ऑलिंपिक खेळाक मान्यताय मेळूंक ना.); १९०८-लंडन (ग्रेट ब्रिटन); १९१२-स्टॉकहोम (स्वीडन); १९१६- बर्लिन- पयल्या म्हाझुजाक लागून जावंक ना -१९२० ॲंटवर्प (बॅल्जियम); १९२४-पारिस (फ्रांस); १९२८-ॲम्स्टरडॅम (हॉलंड); १९३२-लॉस ॲंजेलीस (अमेरिका); १९३६- बर्लिन (जर्मनी); १९४०-टोकिओ, उपरांत हेलसिंकी दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून जावंक ना; १९४४-लंडन दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून जावंक ना; १९४८-लंडन (ग्रेट ब्रिटन); १९५२-हेलसिंकी (फिनलंड); १९५६-स्टॉकहोम (स्वीडन) मेलबोर्न (ऑस्ट्रेलिया); १९६०-रोम (इटली); १९६४-टोकिओ (जपान); १९६८-मेक्सिको सिटी (मेक्सिको); १९७२-म्युनिक (अस्तंत जर्मनी); १९७६-मॉंट्रीयल (कॅनडा); १९८०-मॉस्को (रशिया); १९८४-लॉस ॲंजेलीस (अमेरिका); १९८८-सोल (द. कोरिया) १९९२ वर्साचें ऑलिंपिक बार्सेलोना (स्पेन) हांगा २५ जुलय सावन जातलें.

**शिंयाळी ऑलिंपिकः** शिंयाळी ऑलिंपिकांत जावपी स्केटींग, आयस हॉकी हे खेळ सुर्वेक ऑलिंपिक खेळांत खेळयताले. १९२४ सावन हे वेगळे काडून शिंयाच्या दिसांनी जावपी शिंयाळी ऑलिंपिकांत खेळोवपाची चाल सुरू जाली.

पयलें शिंयाळी ऑलिंपिक १९२४ वर्सा शामोनिक्स फ्रांस हांगा जालें. ताचेउपरांत वेगवेगळ्या सुवातींनी जाल्ले शिंयाळी ऑलिंपिक खेळ फुडलेतरेनः १९२६- सेंट मॉर्टिझ (स्वित्झर्लंड); १९३२- लेक प्लासीड (न्यूयॉर्क); १९३६- गार्मिश, पार्टिनकिरचन (जर्मनी); १९४८- सेंट मार्टिझ (स्वित्झर्लंड); १९५२- ऑस्लो (नॉर्वे); १९५६- कोरिनाड-एम्पीझो (इटाली); १९६०- स्काव्ह व्हॅली-कालिफोर्निया (अमेरिका); १९६४- इन्सब्रूक (ऑस्ट्रिया); १९६८- ग्रनोबल (फ्रांस); १९७२- सापोरो (जपान); १९७६- इन्सब्रूक (ऑस्ट्रिया); १९८०- लेक प्लासीड-न्यूयॉर्क (अमेरिका); १९८४- साराईव्हो (युगोस्लाव्हिया); १९८८- कालगारी (अल्बर्टा).

- कों. वि. सं. मं.

**ऑस्ट्रियाः** मध्य युरोपांतले प्रजासत्ताक राश्ट्र. अक्षवृत्तीय विस्तार ४६° २२' उत्तर ते ४९° १' उत्तर आनी ९° २२' अस्तंत ते १७° १०' अस्तंत. दक्षिण उत्तर अंतर उदेंतेवटेन २९५ किमी. जाल्यार अस्तंतेवटेन फकत ६४ किमी. उदेंत-अस्तंत अंतर चडांतचड सुमार ५८० किमी. क्षेत्रफळ सुमार ८३,८४९ चौ. किमी. लोकसंख्या ७५,५९,००० (१९८१);. राजधानी व्हिएन्ना. देशाचे शीमेची लांबाय सुमार २,६२७ किमी. आसा. उत्तरेवटेन अस्तंत जर्मनी आनी चेकोस्लोव्हाकिया, उदेंतेक चेकोस्लोव्हाकिया आनी हंगेरी, दक्षिणेवटेन युगोस्लाव्हिया आनी इटली आनी अस्तंतेक लिख्श्टेनस्टीन आनी स्वित्झर्लंड हे देश आसात. ह्या देशाक खंयचेचवटेन दर्यादिग ना.

**भूंयवर्णनः** युरोपांत स्वित्झर्लंडफाटल्यान दुसरो दोंगरी वाठार म्हूण ऑस्ट्रियाक वळखतात. ह्या देशाचो अस्तंतेकडलो वाठार चडसो आल्प्स




पर्वतांनी भरला. ह्या वाठाराची उंचाय सादारपणान ९०० मी. परस चड आसा आनी उदेंत -ईशान्य वाठारांत तो देंवत गेला. आग्नेय वाठारांत गरम उदकाचे, खनीज उदकाचे झरे आसात, ग्रोस ग्लॉकनेर ह्या होए टाऊअर्न दोंगराचे तेंगशेची उंचाय ३,७९८ मी. म्हळ्यार सगळ्यांत ऊंच आसा; जाल्यार उदेंतेकडलें नॉझझीडलर हें तळें फकत ११५ मी. उंचायेचेर आसा. ब्रेनर, झेमेरिंग, आर्लबर्ग, श्प्लूगेन हे पाज्जींक लागून येरादारी सोपी जाल्या.

डॅन्यूब न्हंयचे देगेवेलो अशीर वाठार आनी उद्रेंत शीमेवेलो हंगेरीयन मळांचो सकयल्लो वाठार, डॅन्यूबचे उत्तरेवटेनच्या बोहिमीयाच्या पठाराचो वाठार आनी दक्षिणेवटेनचो उदेंत आल्पसचो दोंगरी वाठार अशे ऑस्ट्रियाचे भूंयरचणूकेचे नदरेंतल्यान वांटे जातात.

डॅन्यूब ही मध्य युरोपांतली न्हंय जर्मनींतल्यान सुरू जावन जर्मनी, ऑस्ट्रिया, चेकोस्लोव्हाकिया, हंगेरी, युगोस्लाव्हिया आनी रुमानिया वाठारांतल्यान व्हांवत वचून काळ्या दर्याक मेळटा. ही न्हंय ऑस्ट्रियांत ३४७ किमी. मेरेन व्हांवता. ती वायव्य वाठारांतल्यान येवन उत्तर वाठारांतल्यान वता आनी व्हिएन्नांतल्यान फुडें चेकोस्लोव्हाकियांत वता. तिका दोंगरी वाठारांतल्यान इन, एन्स, झाल्त्साक, मूर्त्स, लेख, राबॉ, मूर, द्रावा ह्यो उपन्हंयो मेळटात. अस्तंत शीमेचेर थोड्याच अंतरामेरेन न्हायन न्हंय व्हांवता. हिमाक लागून तयार जाल्लीं सुमार २०० तळीं ह्या देशांत आसात. तातूंत उदेंत शीमेवेलें नॉझझीडलर सगळ्यांत व्हडलें. आर्विल्ल्या युगांतल्या घडणुकांक लागून आनी हिमाच्या अस्तित्वाक लागून ह्या देशांत विंगड विंगड प्रकारचे फातर आनी खनिजां मेळटात. डॅन्यूब न्हंयचे कुशीक चुनखडीचे फातर तशेंच इशान्येवटेन बोहिमियाच्या पठाराच्या मुळसालागीं खनीज तेल आनी सैमीक वायू मेळटा.

**हवामानः** ऑस्ट्रिया अटलांटिक म्हासागरासावन ८०० किमी. परस पयस आशिल्ल्यान आनी दक्षिणेवटेनच्या दोंगरी वाठारांक लागून हांगाचें हवामान वेगळ्या स्वरुपाचें आसा. गीमं आनी शिंयाळो हांच्या तापमानांत बरोच फरक जाणवता. जानेवारीचें तापमान -१३° से. मेरेन जाल्यार जुलयंत १८° से मेरेन आसता. तेभायर भूंयरचणूक आनी उंचाय हांचेय परिणाम हवामानाचेर जाल्यात. अस्तंतेकडल्यान येवपी वाऱ्यांचो परिणामय दिसून येता. पावसाचें प्रमाण गिमांत वाडटा आनी शिंयाच्या दिसांनी तें उणें जावन हिमाच्या रुपान पडटा. अस्तंतेच्या दोंगरी वाठारांनी पावस खूब जाल्यार उदेंतेवटेन ५० ते ७५ सेंमी. मेरेन पडटा. ६०० मी. परस ऊंच आशिल्ले दोंगर जानेवारी, फेब्रुवारींत हिमान भरिल्ले आसतात. भूंयमध्यसमुद्राच्या वाठारांतलें हवामान इटलीवटनेचे शीमेलागीं जाणवता. ते वटेनच्यान येवपी फॉन वारें तापमानांतली उब वाडयता. बरेच कडेन सकयल्या वाठारांनी थंड जाल्यार दोंगराचे देंवतेचेर गरम हवामान आसता.

**वनस्पतः** देशाचे वट्ट भुंयेतलो ३७% वाठार रानांनी भरला. तांतलो ८४% वांटो अशीर पानांच्या रुखांचो, चड करून स्प्रूस रुखांचो आसा. ताचे उपरांत बीचचे रुंद पानांचे रुख आसात. दोंगराच्या सकयल्या वाठारांसावन उंचेल्या वाठारांमेरेन विंगडविंगड तरांचे रुख सांपडटात. दोंगराच्या मुळसासावन १,२०० मी. उंचायेमेरेन बीच, बर्च आनी ओक सारके रुंद पानांचे पानां झडपी रुख, जाल्यार ताच्यायपरस उंचायेचेर फर आनी स्प्रूस सारके अरुंद पानांचे रुख आसात. उंचायेप्रमाण पानां झडपी रुखांसावन अरुंद पानांच्या रुखांमेरेन आनी फुडें ल्हान तणामेरेन तरेकवार वनस्पत आसा. सामकेच उंचायेचेर टंड्रा सारकी वनस्पत आसा. ऑस्ट्रियांत उंचायेचेर आशिल्ल्या तणाचो उपेग गोरवांचे खावडीखातीर जाता. पर्वताचे दक्षिणेवटेनच्या वाठारांनी सुर्याचो उजवाड चड मेळिल्ल्यान उत्तरेपरस हांगा चड वनस्पत वाडटा. व्हिएन्नाच्या भोंवतणचो वाठार स्टेप प्रकारचो आसा. बरे तरेचें मोव लांकूड मेळोवपांत कॅनडा, स्वीडन आनी फिनलँड हांच्या फाटोफाट ऑस्ट्रियाचो क्रमांक

लागता.

**मोनजातः** आल्प्स दोंगरी वाठारांत वांस्वेल, शामॉय हरण आनी रानबोकडे हे सारकी मोनजात आसा. आयबेक्स आनी मॉर्माट सारकी मोनजात उणी जायत गेल्या. डॅन्यूब न्हंयचे आनी हेर तळयांच्या देगांचेर कॉर्मोरंट, हेरॉन, बकीं, हांयसां, टर्मिगन ह्या सारकीं सुकणीं सांपडटात. पूण भांगरा कोराचो गरुड काबार जावन गेला. शिकार करपाआड कडक नेम आसले तरीपूण वट्ट मोनजात उणी जाल्या. तळयांतल्यान नुस्तें चडशें मेळना. गोरवां आनी मेंढरां ही पोसपा सारकी मोनजात मात बरीच आसा.

**इतिहासः** पूर्विल्ल्या काळासावन ह्या देशाक युरोपांत म्हत्व आसा. इ. स.चे सुर्वेक जेन्ना रोमनांनी ह्या देशाचेर जैत मेळयलें, तेन्ना हांगा सुएबी लोक रावताले. पांचव्या शेंकड्याउपरांत हूण, ऑस्ट्रोगॉथ, लोंबार्ड आनी बव्हेरियन हांणी हांगाचे रोमन वाठार भूंयभरखण केले. सातव्या शेंकड्याचे सुर्वेक स्लाव लोकांनी हालींचो स्टिरिया, लोअर ऑस्ट्रिया आनी कॅरिंथिया हे वाठार घेतले. ७८८ वर्सा शार्लमेन हाणें हो देश जिखलो. ताणें हांगा वसाहतींक उर्बा दिली. किरिस्तांव धर्मप्रसारक हांगा नेट आयलो. शार्लमेन उपरांत उर्देतेचो वाठार पयलीं मोरेव्हियन आनी उपरांत मग्यार लोकांकडेन गेलो. पयलो ऑटो हाणें हो वाठार ९५५ वर्सा जिखून घेवन बव्हेरियाक जोडलो. ९७६ त, हो वाठार लीओपोल्ड ऑफ बॅबेनबर्ग हाचे सत्तेखाला आयलो. हाणें पयल्या ऑस्ट्रियन घराण्याची थापणूक केली. ११९२ वर्सा, स्टिरीयाचोय वाठार बॅबेनबर्गालागीं आयलो. इकराव्या आनी बाराव्या शेंकड्यांत हांगा सरंजामशाय सगळयांत चड बळिश्ट जाली आनी त्याच काळांत डॅन्यूब न्हंयचें म्हत्व वाडून थंय कितलींशींच शारां तयार जालीं. बॅबेनबर्ग उपरांत बोहिमियाच्या राजान लोअर आनी अपर ऑस्ट्रिया, स्टिरीया, कॅरिंथिया आनी कार्निओला हे वाठार घेतले. तेन्ना जर्मन राज्याच्या मुखेल्यांनी १२७२ वर्सा हॅप्सबर्गच्या रुडॉल्फाक राजा म्हूण वेंचलो. रुडॉल्फान हे सगळे वाठार परत जिखून घेतले. हांगासावन हॅप्सबर्गच्या घराण्याचो प्रभाव युरोपाचेर चालू जालो. फुडें पवित्र रोमन साम्राज्याचे राजाय ह्याच घराण्यांतल्यान वेंचून येवंक लागले. पूण राजकी थीरपण हांगा केन्नाच नाशिल्लें. सोळाव्या शेंकड्यांतल्या वेपारी क्रांतीक लागून पोरने वेपारी मार्ग आनी टायरोल, कॅरिंथिया हांगाच्या भांगराच्या खणींचें म्हत्व उणें जालें. कॅथलिक आनी प्रॉटेस्टंट पंथांमदीं सर्त लागली. टायरोल हांगा प्रॉटेस्टंटांच्या फाटबळाक लागून शेतकारांचे उठाव जाले पूण हे उठाव चिड्डून उडयले. दुसरो फर्डिनांड हाचे राजवटींत प्रॉटेस्टंट विरोधी धोरणांक लागून तीस वर्सांच्या झुजाक एक कारण मेळळें. राज्यसत्ता आनी कॅथलिक धर्मसत्ता हांचो एकवट जालो. फुडें राज्यसत्ता काबार जायसर हो एकवट तिगलो. बोहिमिया आनी मोरेव्हिया ह्या ऑस्ट्रियन साम्राज्याचेच वांटे जावन गेले आनी वेस्टफेलियाचे कबलाती उपरांत पवित्र रोमन साम्राज्य नांवापुरतेंच उरून हॅप्सबर्ग साम्राज्य बळिश्ट जालें. स्पेनचो ६ वो चार्लस् हाणें आपली चली मासिया तेरेझा हिचेखातीर हॅप्सबर्गचो वाठार मेळयलो. तिचो घोव पयलो फ्रान्सिस हो १७४५ वर्सा राजा जालो, पूण खरी सत्ता मारीयाच्याच हातांत आशिल्ली. प्रशियाचो दुसरो फ्रीड्रीख हाचेलागीं तिचें बरेच काळ झूज जालें. जर्मन भुंयेचे मालकेखातीर ऑस्ट्रियन दायज झूज आनी सात वर्सांचीं झुजां जालीं. मारीयान उर्देतेवटेनचे साम्राज्य वाडयलें, सरदारांचें म्हत्व उणें करून तांकां नोकरशायेंत दवरले आनी केंद्र सत्ता वाडयली. तिचे उपरांत, तिचे चलयेन हेंच धोरण फुडें चलयलें. हेवटेन तेवटेन फाफसल्ल्या आपल्या वाठारांचें केंद्रीकरण आनी जर्मनीकरणाआड सगळेवटेनच्यान विरोध जालो. ताचेउपरांत ऑस्ट्रियांतले वयल्या वर्गाचे लोक समाजीक आनी सांस्कृतिक मळांचेर शेक गाजोवंक लागले. अठराव्या शेंकड्यांत ऑस्ट्रियन संगीत आनी वास्तुकला हांची बरीच उदरगत जाली. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक ऑस्ट्रियन साहित्य उर्देवक लागलें.

ऑस्ट्रिया आनी फ्रांस हांचे संबंद केन्नाच बरे जाले नात. १७९२ वर्सा, ऑस्ट्रिया आनी फ्रांस हांचेमजगतीं लडाय जाली. झुजां आनी कबलाती हातूंत ऑस्ट्रियाचें बरेंच लुकसाण जालें. १८१२ वर्सा, ऑस्ट्रियाक नेपोलियनाचे वटेन रशियाआड झूज करचें पडलें; पूण १८१३ वर्सा तो रशियावटेन गेलो. १८१४ च्या व्हिएन्ना काँग्रेसींत ऑस्ट्रियाक नेदरलँडस् आनी बाडेन हे वाठार मेळळे नात; पूण लाँबर्डी, व्हिनीशिया, इस्त्रिया आनी डाल्मेशिया हे वाठार मेळळे. १८४८ मेरेन युरोपच्या साम्राज्यवादी राजकारणाचेर ऑस्ट्रियन पंतप्रधान मेटरनिख हाचो बरोच प्रभाव आशिल्लो, पूण मदल्या आनी सकयल्या लोकांचे प्रस्न वाडूंक लागिल्ले. राश्ट्रीयवादी प्रवृत्ती वाडटाली आनी ऑस्ट्रियांतले जर्मन, स्लाव, हंगेरियन आनी इटालीयन ह्या विंगड विंगड लोकांमदलीं झगडीं वाडूंक लागलीं. १८४८ त, क्रांतीकारकानी मेटरनिखाक सकयल उडयलो; फर्डिनंडान राज्य सोडलें आनी फ्रांसिस जोजेफ राजा जालो. ऑस्ट्रियाचो शेक वाडटा अशें दिसतालें, पूण हें साम्राज्य भितरल्या भितर दुबळें जाल्लें. वेपारी सवलती मेळून जरी अर्थीक लाव वाडलो तरी वंशीक झुजां वाडत आशिल्लीं. १८५९ त इटलीच्या झुजांत लाँबर्डी हातांतल्यान गेलो आनी ऑस्ट्रियन साम्राज्याचें लश्करी आनी राजनितीक दुबळेपण उक्ताडार पडलें. ही संद मतींत दवरून प्रिन्स बिस्मार्कान ऑस्ट्रियाचेर जैत मेळयलें आनी ताका जर्मन संघराज्यांतल्यान भायर उडयलो. व्हिनीशीया इटलीक दिवचो पडलो आनी १८६७ वर्सा ऑस्ट्रो-हंगेरियन जोड राजेशायेची थापणूक जाली. पूण विंगड विंगड प्रकारांच्या भोवसंख्य लोकांचेर ही जर्मन मग्यार अल्पसंख्य लोकांची राजवट राश्ट्रवादी वातावरणांत थिरावंक पावली ना. १९१४ वर्सा, लोकांमदल्या प्रस्नावांगडाच ऑस्ट्रियन राजकुंवराचो खून जाल्ल्यान पयलें म्हाझूज पेटलें. १९१८ त, पयलो चार्लस् हाणें राज्य सोडलें. राजेशाय काबार जाली आनी १२ नोव्हेंबराक सोशलिस्ट आनी पॅनजर्मन पक्षांनी शांतीकायेन सत्ता बदल्ली. जर्मन ऑस्ट्रिया हो उरिल्ल्या जर्मनीचोच वाठार मानून तो एक स्वतंत्र लोकशाय देश म्हूण घोशणा केली.

ऑस्ट्रियाच्यो सद्याच्यो शीमो १९१९ च्या सेंट जर्मेन कबलातींतल्यान थारायल्ल्यो. हे आनी व्हॅर्सीय हांगाचे कबलातीन ऑस्ट्रियाक जर्मनीकडेन खंयच्याच प्रकारची एकी करपाक बंदी घाल्ली. ताकालागून ऑस्ट्रिया सुमार ६० लक्ष लोकांचो एक ल्हानसो देश जालो आनी अर्थीक तशेंच उद्देगीक म्हत्वाक लागून व्हिएन्ना ह्या शारांत चडशे लोक रावंक लागले. अर्थीक नदरेंतल्यान स्वयंपूर्ण आशिल्ल्या ऑस्ट्रियाक फुडें फुटाफुट आनी करवाड हाका लागून अन्न बाजारपेठ हांचें उणेपण जाणवूंक लागलें. उपास आनी इन्फ्लूएंझा हांकां लागून व्हिएन्ना शारांत बऱ्याच जाणांक मरण आयलें. इतलेमजगतीं चलन फुगवट्याचें संकश्ट आयलें. १९२४ त, राश्ट्रसंघाच्या पालवान हातूंतल्यान सुटावो जाता अशें दिसतनाच, बेकारी, राजकी घडणुको हांकां लागून पुराय देश अरिश्टांत सांपडलो. ह्या काळांत शोबर, सीपेल हांच्या फुडारपणाखाल ख्रिश्चन सोशलिस्ट आनी पॅनजर्मन हांचीं संयुक्त सरकारां आयलीं. १९२७ त, हांगा बेबंदशाय जाली. खाजगी सैन्यां सरकाराचें आयकून घेना जालीं. नॅशनल सोशलिझमान पॅनजर्मन पक्ष सोंपयलो. १९३२ त, डॉल्फस् चॅन्सलर जालो. तो जर्मनीकडेन एकी आनी नॅशनल सोशलिझम हांच्या विरोधांत उबो रावलो. फॅसिझमवटेन बागवत ताणें इटलीचो पालव घेवपाचें धोरण घेतलें. हाका लागून १९३४ त, हांगा बंड जालें आनी तें चिड्डूनय उडयलें. सोशल डॅमोक्रेट्स आनी नॅशनल सोशलिस्ट ह्या दोनूय पक्षांचेर बंदी घाली. १९३४ त, नॅशनल सोशलिस्टांनी डॉल्फसाक मारुन उडयलो; पूण ते सरकार घडोवंक शकले नात. ताचे उपरांत सत्तेर आयिल्ल्या शूस्निगान सोशलिस्टांवटेन बरेंपण दवरलें, पूण तें चड तेंप तिगलेंना. जर्मनीचो ऑस्ट्रियावेलो पेंच दिसान दिस वाडत वतालो. नॅशनल सोशलिस्टांक १९३८ च्या मंत्रीमंडळांत सुवात मेळळी. ह्याच वर्सा जर्मनीन हांगा सैन्य धाडलें. पयलीं हांगा सेसिनकार्ट हाचें सरकार आशिल्लें. पूण १९४० त, ऑस्ट्रिया पुरायपणान जर्मनींत विलीन जालो. १९४५ त, रशियन आनी अमेरिकन सैन्यान जर्मनीचेर जैत मेळोवन

ऑस्ट्रियाची सोडवणूक केली. कार्ल रेनर हाच्या फुडारपणाखाल प्रांतीक सरकाराची थापणूक जाली. देशाचे पांच लश्करी वांटे जाले आनी ते इश्ट राश्ट्रांच्या सैन्याखाला आयले. अर्थवेवस्था सामकीच कोसळ्ळी. उदेंत आनी अस्तंत युरोपांतलो वेपार काबार जाल्लो. १९४६ त, इश्ट राश्ट्रांनी ऑस्ट्रियाक मान्यताय दिली. पूण रशियाकडल्यान मतभेद जाल्ल्यान बरोच काळ शांतताय आयली ना. १५ मे १९५५ दिसा ग्रेट ब्रिटन, फ्रांस, अमेरिका, रशिया आनी ऑस्ट्रिया हांचेमजगतीं कबलात जावन ऑस्ट्रियाच्या सार्वभौमत्वाक (sovereignty) मान्यताय मेळ्ळी. पूण हे कबलातीक लागून ऑस्ट्रियाक व्हड आक्रमक शस्त्रां बाळगूंक बंदी घाली आनी झुजाचो खर्च म्हूण रशियाक ३२ कोटी डॉलर दिवपाचें थारलें. ऑस्टियान सासणाची तटस्थताय दवरली. १९५५ त, ऑस्ट्रियाक संयुक्त राश्ट्रांभितर सभासद जावंक मेळ्ळे. भायल्या देशांच्या पालवान अर्थवेवस्था जाग्यार पडली आनी देशाची उदरगत जावंक लागली. फुडारिल्ल्या विचारांचे समाजीक कायदे आयले. 'युरोपीयन फ्री ट्रेड असोसिएशन' सारके संघटनेंत ऑस्ट्रिया म्हत्वाचो वावर करूंक लागलो. राजकी नदरेन पोरन्या विचारांचो जनता पक्ष आनी समाजवादी पक्ष हांचेमजगतीं बरेपण जावन एकाफाटल्यान एक अशीं बरींच संयुक्त सरकारां आयलीं. १९७१ त, ऑस्ट्रियाच्या समाजवादी पक्षाक स्पश्ट भोवमत मेळून हो पक्ष सत्तेर आयलो. १९७५ आनी १९७९ च्या वेंचणुकांतय ब्रुनो क्रिस्की हाच्या फुडारपणाखाल समाजवादी पक्ष सत्तेर आयलो. आपल्या भितरल्या झगड्यांक लागून जनता पक्ष (People's Party) मात दुबळो जावन गेलो.

**राज्यवेवस्था:** १९ डिसेंबर १९४५ वर्सा प्रजासत्ताकाची घोशणा केल्ल्या ह्या देशाची राज्यपध्दत १९२०-२९ च्या काळांत मान्यताय मेळिल्ल्या संविधानाप्रमाण चलता. ह्या संविधानाप्रमाण बर्गेनलँड, कॅरिंथिया, लोअर ऑस्ट्रिया, सॉल्झबर्ग, स्टिरीया, टायरोल, अपर ऑस्ट्रिया, व्हिएन्ना आनी व्होरालबर्ग ह्या ९ प्रांतांचें ऑस्ट्रिया हें एक लोकशाय संघराज्य जावन आसा. दर स वर्सां उपरांत लोकांनी वेंचून काडिल्लो अध्यक्ष हो राश्ट्राचो मुखेल म्हूण काम करता. अध्यक्ष चार वर्सांखातीर चॅन्सलरची (पंतप्रधान); नेमणूक करता आनी चॅन्सलर आपल्या मताप्रमाण मंत्रीमंडळ वेंचता, तांकां खाती वांटून दिता आनी राश्ट्रीय धोरण थारायता. ह्या मंत्रीमंडळाचेर पार्लमेंटचो विस्वास आसचो पडटा. पार्लमेंटाच्यो संघराज्यसभा (फेडरल कौन्सिल); आनी राश्ट्रीय सभा (नॅशनल कौन्सिल) अश्यो उंचल्या आनी सकयल्या पांवड्यावेल्यो सभा आसतात. एकवीस वर्सांवेल्या सगळ्या लोकांक मत दिवपाचो अधिकार आसा आनी सव्वीस वर्सां पुराय केल्ल्या कोणाकय पार्लमेंटच्या वेंचणुकांखातीर उबो रावंक मेळटा. दरेक प्रांताखातीर लोकांनी वेंचून दिल्लें विधीमंडळ आसा आनी तातूंत वेंचिल्लो राज्यमुखेली प्रांताचो कारभार राज्यचिटणीसाच्या पालवान चलयता. हेभायर थळाव्या स्वराज्य संस्थांचे (communes) कारभार त्या थरावेल्या लोकांच्या वेंचणुकांतल्यान चलतात. अशे हांगा ३,००० कम्यून आसा. १४ व्हडल्या शारांक कायद्यान खाशेले अधिकार दिल्यात. व्हिएन्ना हें शार ऑस्ट्रियाचो एक प्रांतच जावन आसा.

न्यायवेवस्था केंद्र सरकाराच्या हाताखाल आसता. न्यायाधीशांची नेमणूक केंद्र सरकार करता. व्हिएन्ना हांगा सगळ्यांत उंचल्या पांवड्यावेलें न्यायालय आसा. १९३४ वर्सा बंद जाल्ली ज्यूरी पध्दत १९५१ तल्यान पर्थून चालू जाल्या. हांगा मरणाची ख्यास्त ना.

सक्तीचो लश्करी नोकरेचो कायदो १८ ते ५१ वर्सांमदल्या दादल्यांक लागू जाता. व्हिएन्ना, ग्रात्स आनी सॉल्झबर्ग हांगा लश्कराचीं मुखेल केंद्रां आसात. मूळ १७५२ त, लश्करी अधिकाऱ्यांखातीर थापणूक जाल्लें केंद्र १९५८ सावन पर्थून चालू केलां.

**अर्थीक स्थिती:** देशाचो विस्तार ल्हान आनी बरेच वाठार ऊंचसकल आशिल्ल्या कारणान शेतवडीचेरच पुराय अर्थवेवस्था चलोवप शक्य ना. शेजरा जर्मनी, स्वित्झर्लंड, चेकोस्लोव्हाकिया ह्या सारके फुडारिल्ले देश आशिल्ल्यान तांचेकडल्यान शिकून चडांत चड जमनींत पिकावळ काडपाचो यत्न जाले. हाचो परिणाम म्हळ्यार आयज गरजेपुरती ८७% पिकावळ हांगा जाता. तणांच्या मळांचो उपेग दुदाखातीर आनी मांसाखातीर गोरवां वाडोवपांत जाता. बऱ्या रानांक लागून हांगाच्या लांकडाक जगाच्या बाजारांत मागणी आसा. अर्थवेवस्थेचो तिसरो मुखेल आदार म्हळ्यार हांगा जाल्लें उद्देगीकरण. खनिजांभितर लोखण, बॉक्सायट, चुनखडी आनी खनीज मीठ हीं गरजेपुरतीं मेळटात. कोळसो पोलंड, रशिया ह्या सारक्या देशांतल्यान हाडचो पडटा. खनीज तेल आनी सैमीक वायू हांगा बरोच मेळटा. डॅन्यूब न्हंयच्या सगळ्या ऋतूंनी उपेगी पडपी सवाय जलमार्गाक लागून देशाची बरीच उदरगत जाल्या. सादारणपणान शेतवड, वनसंपत्ती, पर्यटन आनी उद्देगीक उत्पादन ह्या गजालींचेर हांगाची अर्थवेवस्था चलता.

पयल्या आनी दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून ऑस्ट्रियाची अर्थवेवस्था सामकीच वायट जाल्ली, पूण भायल्या राश्ट्रांक लागून ताणें आपली उदरगत करून घेतली.

शेतांभितर यांत्रिक पध्दतीन पीक काडटात. शेतांत काम करतल्यांचो आंकडो दिसानदिस उणो जायत आसा. हांगाची मुखेल पिकावळ म्हळ्यार गंव, राय, ओट, बार्ली, सातू, बटाट आनी बीट. द्राक्षांची लागवड करुन ताचो सोरो तयार करतात. गोरवां पोसपाच्या धंद्याक लागून दूद, लोणी, चीज, मांस बऱ्याच प्रमाणांत मेळटा. बऱ्या गोरवांची पैदास करपांत ऑस्ट्रियन शेतकारांनी जगांत नामना मेळयल्या.

लांकडाच्यो पेटयो, टर्पेन्टायन, खेळणीं, मदेराचें सामान रानांतल्या रुखांतल्यान मेळटा. हांची चडशी निर्यात जाता.

लोखण आनी बॉक्सायट वांगडा हांगा शिशें, तांबे, जस्त ह्या खनिजांची सांठवण आसा. बऱ्यापैकी ग्रॅफायट हांगा मेळटा. खण वेवसायाचें राश्ट्रीयकरण जालां.

मोटारी, ट्रक, ट्रॅक्टर, मोटरसायकली, सायकली हांचेंय उत्पादन बरेंच जाता. रसायनीक उद्देगधंदे हांगा बरेच वाडल्यात. सारें आनी प्लास्टिकच्या धंद्यांक म्हत्व आसा. कपडो तयार करपाचे कारखाने व्हडा प्रमाणांत हांगा आसात. तेभायर कागद आनी वीजेचीं उपकरणां हांगा तयार जातात. हांगाच्या कारागिरीक लागून फर्निचर, आयदनांक जगांत नामना मेळ्ळया. फ्रांस आनी इटली फाटल्यान यूरोपांत पर्यटनाच्या मळार ह्या देशाचो क्रमांक लागता. चडशे पर्यटक अमेरिका, ब्रिटन ह्या सारक्या देशांतल्यान येतात. पर्यटनांतल्यान ह्या देशांक बरेंच मोटें उत्पन्न मेळटा.

देशांतल्या २५% उद्देगांचें राश्ट्रीयकरण जालां. युरोपांतल्या आयात-निर्यात मळाचेर ऑस्ट्रियाचो म्हत्वाचो वांटो आसा. क्रोन हें हांगाचें चलनी नाणें जावन आसा.

**लोक आनी समाजजीण:** ऑस्ट्रियाच्या लोकांभितर सादारणपणान चार वंशांची भरसण दिसून येता. आग्नेयेवटेनचे ऊंच, गंवाकोराच्या लोकांचो दिनारिक वंश; अस्तंतेकडल्या मोटव्या, काटक लोकांचो अल्पायन वंश; उत्तरेवटेनचो ऊंच, बारीक आनी उजळ लोकांचो नॉर्डिक वंश आनी इशान्येवटेनच्या मध्यम उंचायेच्या लोकांचो बाल्टिक वंश. माग्यार स्लाव, चेक, स्लोव्हाक इटालियन, रुमानियन हेय लोक कांय प्रमाणांत शीमांकडल्या वाठारांनी आसात.

धर्मीक नदरेन हांगा सुमार ९०% लोक रोमन कॅथलिक पंथाचे तर सुमार ६% लोक प्रॉटेस्टंट पंथाचे आसात, उरिल्ले कांय ग्रीक इगर्ज संप्रदायाचे आनी कांय जाण ज्यू धर्माचे आसात. नाझी काळांत ज्यू लोकांचे प्रमाण बरेंच उणें जालें. देशांत पुराय धर्मस्वातंत्र्य आसा.

लोकांची रावपाची तरा हेर युरोपीय देशांवरी बऱ्या आनी उंचल्या पांवड्यावेली आसा. कामगारवर्गाखातीर नगरपालिकांकडल्यान आदर्श पध्दतीचीं घरां बांदतात. दोंगरी वाठारांनी घरां बांदपाक लांकूड आनी चिरे ह्या दोनूय गजालींचो उपेग जाता. देशांत उदक आनी दूद पुरवण करपाखातीर सरकार खासा कश्ट घेता. भलायकेचे नदरेंतल्यान ह्या देशाचीं परिस्थिती बरीच सुदारल्या. हॉस्पिटलां आनी दोतोरांची संख्या

उपाट आसा. साथीचे रोग ना जावंक पावल्यात. कामगारांखातीर आनी मध्यमवर्गीयांखातीर कल्याण येवजणी आसात.

अस्तंतेकडल्या संगीतांत ह्या देशाचो वांटो म्हत्वाचो आसा. अठराव्या शेंकड्यासावन व्हिएन्ना हें युरोपांतल्या संगीताचें केंद्र म्हूण वळखतात. ह्या ल्हानशा देशांत सुमार ५,२०० वयर संगीत मंडळां आसात. सॉल्झबर्ग आनी व्हिएन्ना हांगा व्हडलीं संगीत केंद्रां आसात. सॉल्झबर्गांत तर रस्त्यार कोनशाकोनशानी संगीत आयकूंक मेळटा. हांगाची नाट्यकलाय बरीच फुडें पावल्या. बर्फाचेर निसरपाचे खेळ (स्कीईंग), फुटबॉल हे हांगाचे आवडीचे खेळ. ऑलिंपिकाच्या शिंयाळ्या खेळांत ऑस्ट्रिया सदांच बरो पांवडो दाखयता.

चित्रकला, शिल्पकला हातूंतय हेर युरोपीय देशावांगडा हांगाच्या कलाकारांनी नामना मेळयल्या. संगीतांत जॉजफ हेडन, मोझार्ट, शूबर्ट, ब्रीथोवन, ब्रालस हांणी तर चित्रकला आनी शिल्पकलेंत ऑस्कर कॉकोश्का, आल्फ्रेड क्यूबिन, फ्रिट्झ वॉट्रूबा हांणी जगभर नामना मेळयल्या.

**येरादारी आनी संचारण:** हांगाचे रस्ते दुसऱ्या म्हाझुजावेळार सामकेच नश्ट जाल्ले. पूण खर कश्ट करून हांगाच्या लोकांनी पर्थून रस्त्यांचें जाळें देशभर पातळायलें. हांगा सुमार ६६,००० मैल लांबायेचे रस्ते आसात. १९५० त, रस्त्यांचेर धांवपी मोटार गाडयांची संख्या फकत २,८५,००० आशिल्ली ती १९८० मेरेन ३४,००,००० जाली. हांगाचे सुमार ४०% रेल्वेमार्गय म्हाझुजांत काबार जाल्ले. पूण ते साखे करून तांचें आधुनिकीकरण केलें. सुमार ६५% येरादारीचो वांटो उलखपी रेल्वे मार्ग चडशे वीजेचेर चलतात. डॅन्यूब ह्या न्हंयतल्यान उदकांतली येरादारी जाता. 'ऑस्ट्रियन एअरलायन्स' १९५८ त अस्तित्वांत आयली. ते संस्थेवरवीं युरोपांतल्या २५ परस चड देशांकडेन हवाई मार्गांतल्यान येरादारी चलता. व्हिएन्नाच्या आग्नेयेवटेन आशिल्लो विन श्वेचाट हो हांगाचो सगळ्यांत व्हडलो विमानतळ जावन आसा.

खबरापत्रांच्या मळार हांगाय युरोपांतल्या हेर फुडारिल्ल्या देशांवरी बरींच दिसाळीं आनी नेमाळीं आसात. 'कुरीयर' आनी 'एक्सप्रेस' हीं हांगाचीं मुखेल दिसाळीं जावन आसा. देशांतल्या ९०% परस चड लोकांमेरेन रेडिओ आनी दूरदर्शनाच्यो कार्यावळी पावतात. रंगीत दूरदर्शन हांगा १९६९ सावन सुरू जालें.

येरादारी आनी संचारणाच्या मळारऑस्ट्रियाची हेर खंयच्याय फुडारिल्ल्या युरोपीय देशांकडेन तुळा करुं येता.

**शिक्षण:** ६ ते १५ वर्सांमेरेन सगळ्यांखातीर सक्तीचें आनी फुकट शिक्षण आसा. साक्षरतेचें प्रमाण ९८% वयर आसा. हांगा सगळे तरेचें शिक्षण दिवपाची तजवीज आसा. सगळ्यांक एकसारकें शिक्षण दिवपाचें धोरण मुळाव्या पांवड्यासावन १९७० वर्सा चालू केलें. माध्यमिक शाळांनी विद्यार्थ्यांक विश्वविद्यालयांतलें शिक्षण आपणावपाखातीर तयार करतात. शिक्षकांखातीर खासा प्रशिक्षण संस्था आसात. हांगाचें व्हिएन्ना विश्वविद्यालय १३६५ त सुरू जाल्लें. ग्रात्स, इन्सब्रूक आनी सॉल्झबर्ग हीं विश्वविद्यालयां बरींच पोरनीं आसात. सगळीं मेळून हांगा १५ विश्वविद्यालयां आसात. नृत्य, नाट्य, तंत्रगिन्यान, मानव्यशास्त्र अशा विंगड विंगड मळांचेर शिक्षण दिवपी विश्वविद्यालयां हांगा आसात. शिक्षणाचें माध्यम जर्मन भाशा.

**भाशा आनी साहित्य:** ऑस्ट्रियाचे ९९% लोक जर्मन भाशा उलयतात. पूण हे भाशेंत जर्मन बोलीभाशांचें खाशेलेपण आसा. उदेंत आनी आग्नेय शीमेवाठारांतले लोक मग्यार आनी स्लोव्हानिक भाशा उलयतात. ऑस्ट्रियन साहित्य जरी हेर जर्मन भाशेंतल्या साहित्याक लागींचे आसलें तरी ताणें आपलें खाशेलेपण तिगोवन दवरलां. रोमन कॅथलिक पंथाचो प्रभाव पोरन्या साहित्याचेर बरोच दिसता; तेभायर इटालीयन आनी स्पॅनिश साहित्याचोय प्रभाव हांगाच्या साहित्याचेर जाला. साहित्याचेर सोबीतकाय, सैम हांचे परिणाम आसात. मध्ययुगांतलें साहित्य चडशें धर्म, वीरकथा हांचे भोंवतणी केंद्रीत जाल्लें. १३६५ सावन व्हिएन्न विश्वविद्यालयाचे थापणुकेउपरांत मानवतावादी साहित्याक बरेच नेट आयलो. आर्विल्लें साहित्य युरोपांतल्या साहित्यांत आयिल्ले वास्तववाद, अस्तित्ववाद हांच्या प्रभावाखाला गेलें. काव्य, कादंबरी, कथा, नाट्य विनोद ह्या सगळ्या मळांवेलें साहित्य हांगा बरेतरेन फुललां. नामनेचो अस्तित्ववादी लेखक फ्रान्झ काफ्का हो ह्याच देशांत जावन गेलो.

**म्हत्वाचीं थळां:** अस्तंतेवटेनचे फॉरॉर्लबेर्ख आनी टायरोल हांगाचे दोंगर भोंव सोबीत आसात. उदेंतेवटेन कॅरिंथिया आनी सॉल्झबर्ग ह्या प्रांतांतलीं तळीं आनी पयसुल्ल्या दोंगरांक लागून बरेच पर्यटक हांगा येतात. आग्नेयेवटेनचो स्टिरिया प्रांत रुखांक लागून म्हत्वाचो थारला. डॅन्यूब न्हंयचे अस्तंतेवटेनचे देगेर इतिहासीक म्हत्व आशिल्लें व्हिएन्ना शार आसा. हांगाची सांत स्टीव्हनची इगर्ज नांवाजिल्ली आसा. तेभायर ग्रात्स, लिंट्स, सॉल्झबर्ग आनी इन्सब्रूक हीं शारां नांवाजिल्लीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**ऑस्ट्रेलिया:** जगांतलो सगळ्यांत ल्हान आनी लोकसंख्येची दाटी सगळ्यांपरस उणी आशिल्लो खंड. ब्रिटीश कॉमनवेल्थांतलो एक स्वतंत्र देश. क्षेत्रफळ ७६,९५,१०० चौ.किमी. लोकसंख्या १,५९,१२,००० (१९८६). उदेंत-अस्तंत विस्तार ३,८५९ किमी. दक्षिण-उत्तर विस्तार सुमार ३,१७० किमी. दर्यादेग १९,६६४ किमी. अक्षवृत्तीय विस्तार १०° ४१' दक्षिण ते ४३°३९' दक्षिण आनी ११३°९' उदेंत ते १५३°३९' उदेंत. ऑस्ट्रेलिया म्हळ्यार दक्षिणेवटेनची भूंय. ऑस्ट्रेलियाचे उत्तर दिकेक तिमोर आनी आराफूरा दर्या, इशान्येक कोरल दर्या, उदेंतेक पॅसिफिक महासागर आनी टास्मान दर्या आनी दक्षिणेक आनी अस्तंतेक हिंदी महासागर आसा. दक्षिणेवटेन टास्मानिया जुंवोय आसा. उत्तर दर्यादिगेर कार्पेंटेरियाचें आखात आनी दक्षिणेवटेन ग्रेट ऑस्ट्रेलियन बायट आनी स्पेन्सर आखात आसा. इशान्य दर्यादिगेर ग्रेट ब्रॅरिअर रीफ ही प्रवाळवणत (coral reef) सुमार २,००९ किमी. च्या वाठारांत पातळिल्ली आसा. दर्यापलतडी ऑस्ट्रेलियाचे उत्तरेक न्यू गिनी, आग्नेय दिकेक न्यूझीलंड आनी वायव्येक इंडोनेशिया हे देश आसात. न्यू सावथ वेल्स, व्हिक्टोरिया, सावथ ऑस्ट्रेलिया, क्वीन्सलँड, वेस्टर्न ऑस्ट्रेलिया आनी टास्मानिया हीं ऑस्ट्रेलियांतलीं राज्यां आनी नॉर्दन टेरिटरी आनी ऑस्ट्रेलियन कॅपिटल टेरिटरी हे केंद्रशासित प्रदेश आसात. उदेंत न्यू गिनीच्या वाठाराचेर ऑस्ट्रेलियाचेंच प्रशासन चलता. ॲशमोर आनी किर्तीए जुंवे, क्रिसमस, कोको, हर्ड आनी मॅकडोनेल जुंवे हांचेर ऑस्ट्रेलियाचीच मालकी आसा. पापुआ-न्यूगिनीक १९७५ वर्सा स्वतंत्रताय मेळळी.

**भूंयवर्णन:** ऑस्ट्रेलिया खंडांत ३ ते ६ अब्ज वर्सांपयलींच्या (कँब्रियन युगा पयलींच्या) फातरांची ढाल (shield) मदल्या आनी अस्तंत वाठारांत पातळ्ळ्या. कांय जाग्यांचेर हाचे फुडल्या काळावेल्या फातरांचे थर आसात. पर्मियन काळांत ऑस्ट्रेलिया खंड परत एकदां दुसरे फावट हिमान भरलो आनी ताका लागून खणींतलो कोळसो व्हडा प्रमाणांत तयार जालो, भांगर, तांबें, चांदी हांचीय सांठवण हांगा जावंक पावली.

कांय शास्त्रज्ञांच्या मतान पूर्विल्ल्या काळांत ऑस्ट्रेलिया खंड गोंडवनभुंयेचोच कुडको आशिल्लो आनी दक्षिण अमेरिका, भारत आनी आफ्रिका हे एकेकडेन जोडिल्ले आशिल्ले. उपरांत ते एकामेकासावन वेगळे जाले. जगांतल्या हेर खंडांभशेन हांगा आल्प्स पर्वतांभशेन दिसपी आनी तशी रचणूक आनी उंचाय आशिल्ली एकूय दोंगरावळ ना. उदेंतेकडल्या ४८० किमी. लांबायेच्या वाठारांत मुखेल दोंगर भूंय आसा. तातूंत मावंट कॉझिस्को ह्या दोंगराचें तेमक सगळ्यांत ऊंच आसा (२,२३३.५ मी.). हेर दोंगरांमदले फकत थोडेच १,८३० मी. परस उंचायेचे आसात. दोंगरांनी वाकडीं तिकडीं पठारां आसात आनी न्हंयेच्या झोताक लागून बरेच दोंगर मदल्यामदीं कातरल्यात. उदेंतेकडली दोंगराची भूंय उत्तरेवटेन २८० मी. आनी दक्षिणेवटेन ६०० मी. ऊंच आसा. न्यू सावथ वेल्स आनी उदेंत व्हिक्टोरियांत ती ६०० मी. ते १,८३० मी. मेरेन ऊंच गेल्या. ही घुस्पागोंदळाची दोंगरावळ ऑस्ट्रेलियाचे उदेंत

आनी अस्तंत अशे दोन वांटे करता. हाकाच लागून तिका ग्रेट डिव्हायडींग रेंज म्हण्टात. हे दोंगरावळीक 'ऑस्ट्रेलियन आल्प्स', 'न्यू इंग्लंड रेंज', 'लिव्हरपूल रेंज' अशींय नांवां आसात.

उदेंतेवटेनचो दोंगरी वाठार आनी अस्तंतेवटेनचो धालीचो वाठार हांचेमदीं एक सकयल रुंद दोण्याभशेन दिसपी वाठार आसा आनी तो कार्पेंटेरियाच्या आखातासावन अस्तंत व्हिक्टोरियामेरेन पातळ्ळा. हो वाठार जुरासिक-तिसऱ्या युगांतल्या मोव फातरांपसून तयार जाला. ऑस्ट्रेलिया खंडाचो सुमार ७% वाठार ६०० मी. परस ऊंच आसा. खंडाची उदेंत दर्यादिग खोल आसा. ब्रिस्बेन आनी सिडनी ह्या शारांच्या फाटल्या वाठारांनी दर्यादिगेवेलीं मळां आनी रुंद दरी आसात. हे वाठार ऑस्ट्रेलियांतले पिकाळ वाठार अशे मानतात. १८° दक्षिण ते ३३° दक्षिण आनी १२०° उदेंत ते १३५° उदेंत ह्या वाठारांत न्हंयोच नात. सावथ ऑस्ट्रेलिया आनी व्हिक्टोरिया ह्या राज्यांतय चडशो न्हंयो नात. मरी डार्लिंग न्हंय सुमार ११,३९,६०० चौ. किमी. वाठारांत पातळ्ळ्या. पूण तिची लांबाय फकत ४,०९,२२० किमी. इतलीच आसा. हातूंतली डार्लिंग न्हंय ऑस्ट्रेलियांतली सगळ्यांत चड लांब (२,७३२ किमी.) पूण ती वर्सांतले ८ म्हयने सुकी आसता. मरी न्हंय (२,५८४ किमी.) तीन फावट, १८३०, १९१२ आनी १९२२ वर्सा सुकिल्ली. पारु, फिट्झरॉय, बर्डिकीन, फ्लिंडर्स, स्वॉन, बार्कू ह्यो ऑस्ट्रेलियांतल्यो कांय म्हत्वाच्यो न्हंयो. न्हंयांतल्यान येरादारी बऱ्याच उण्या प्रमाणांत जाता. वेस्टर्न ऑस्ट्रेलियांतलीं सगळीं तळीं म्हळ्यार मीठाचे सपाट वाठार जावन आसात. उदेंतेच्या दोंगरी वाठारांत आनी मरी न्हंयचे अडेकडेन बरींच ल्हान ल्हान तळीं आसात. तांतले लेक जॉर्ज हें सगळ्यांत चड नांवाजिल्लें आसा. एअर तळें १४४ किमी. लांब आनी ६४ किमी. रुंद आसा. उदकापुरवण आनी जमीन शिंपणावळ हे हांगाचे दोन मुखेल प्रस्न जावन आसात.

**हवामानः** ऑस्ट्रेलिया विषुववृत्त आनी दक्षिण ध्रुव हांचे मदीं आशिल्ल्यान हांगाचें हवामान चड थंड नाजाल्यार चड गरम नासता. उत्तरेखटेन दर्यादिगेवेल्या वाठारांत तापमान २३.९° से. (जुलय) सावन २९.४° से. (जानेवारी) मेरेन वाडटा, जाल्यार दक्षिणेवटेन १०° से. ते १३° से. सावन १८° से. ते २४° से. मेरेन वयर वता. उदेंतेकडले दोंगरी वाठार आनी चडशे टास्मानियाचे वाठार हांगा हवामान जुलय म्हयन्यांत ७° परस उणें जाता. हागाचें शीं चड खर आशिल्ल्यान वनस्पतीचे वाडीचेर ताचो परिणाम जाता. उत्तरेखटेन ब्रिस्बेनमेरेनच्या दोंगरी वाठारांत बर्फ पडटा, पूण ६०० मी. परस उणे उंचायेच्या वाठारांनी बर्फ केन्नाकेन्नाय पडटा. १५०० मी. परस उंचेल्या वाठारांनी मात बर्फ सगळेवटेन दिसता. दक्षिणेवटेन जून-ऑगस्टच्या म्हयन्यांनी सकयल्या वाठारानींय धुकें आसता. ऑस्ट्रेलियाच्या नैऋत्य आनी आग्नेय वाठारांनी हवामान भूंयमध्यसागराच्या हवामानाभशेन आसता. दक्षिण वाठारांतल्या वसंत आनी गीमाच्या ऋतूंचें खाशेलेपण म्हळ्यार तेन्ना थंय हवेचो दाब उणो जावन उत्तरेवटेंतल्यान सामकें गरम, सुकें आनी बरेच फावट धुल्लाचें वारें (नॉर्दर्लीज- हांकां ब्रिकफील्डर अशेंय म्हण्टात). भितरल्या वाठारांतल्यान व्हांवपाक लागता आनी ताच्या फाटोफाट दर्यावेल्यान दक्षिणेवटेंतल्यान येवपी थंड वारें (हांकां बस्टर्स म्हण्टात.) व्हांवपाक लागता. ऑस्ट्रेलियाचे वट्ट भुंयेच्या फकत ११° वाठारांत १०० सेंमी. परस चड जाल्यार उरिल्ल्या वाठारांनी ५०° सेंमी. परसय उणो पावस पडटा. उदेंतेच्या दर्यादिगेवेल्या वाठारांनी सगळ्या ऋतुंनी पावस पडटा. सगळ्यांत चड पावस केअर्न्झ शारालागच्या टुली गांवांत पडिल्ल्याची नोंद जाल्या (४५४.६ सेंमी.). २०° दक्षिण अक्षवृत्ताचे उत्तर दिकेक आनी अस्तंतेक गिमांतलो पावस पडटा जाल्यार ३२° दक्षिण अक्षवृत्ताचे दक्षिणेवटेन शियांत पावस पडटा. भितरल्या वाठारांनी चडसो पावस पडना. ईशान्य वाठारांक आग्नेयेवटेनच्यान येवपी वाऱ्यांक लागून पावस मेळटा.

**वनस्पतः** ऑस्ट्रेलियाची वनस्पत वर्सुकी पावसासारकीच सगळेवटेन फांफुडलेली आसा. नैऋत्य ऑस्ट्रेलियाच्या दक्षिण वाठारांत, उत्तरेच्या डार्विनलागीं आनी केपयॉर्कसावन ब्रिस्बेन मेरेनच्या उदेंत दर्यादिगेच्या वाठारांनी गरम हवामानांत वाडपी रानां आसात. नैऋत्य वाठारांत चडशे व्हडले रुख सांपडटात. कितल्याशाच रुखांची उंचाय ६० मी. परस चड आसा. उत्तरेखटेनच्या उश्णतायेच्या वाठारांत हूप आनी बुन्यापायन रुखांचीं रानां आसात. सामक्याच उत्तरेखटेनच्या पावसाच्या रानांनी रुंद पानांचीं झाडां मेळटात. ५० सेंमी. आनी ताच्यापरस उण्या पावसाच्या वाठारांत निलगिरीचीं रानां आसात. भितरल्या वाठारांनी जंय पावस उणो पडटा, थंय मॉली, निलगिरीचीं मोटवीं झाडां हेभायर मल्गा नांवाचीं मोटवीं बाभळीचीं झाडां दिसतात. वाळवंटांच्या वाठारांत खाशेले वनस्पतीचे तरेकवार प्रकार आसात. उणी खारसाण आशिल्ल्या वाठारांनी तुरे आशिल्ल्या तणाच्यो जाती चड करून पॉर्क्यूपायन ग्रास आनी केनग्रास मेळटात. निलगिरीचे सुमार ६०० प्रकार आसात. हातूंत मोटव्या निलगिरीच्या झोंपांसावन व्हड उंचाय आशिल्लो मावंटन ॲश निलगिरी रुख अश्यो कितल्योश्योच जाती आसात. बाभळीच्या झाडाच्यो ७६७ जाती सांपडटात. दुसऱ्या झाडांचेर वाडपी ख्रिसमस रुख, बॉटल ट्री, टास्मानियातलीं खाशेलीं पानां झडपी खांदयांचीं, अशीर तोंकाच्या पानांचीं अशीं कितल्याशाच प्रकारचीं रानां हांगा आसात. हेर रुखांमदीं बाओबाब, ब्लॅकवूड, रेड सेडार, कोचवूड, मॅपल, ओक, अक्रोड हे रुख मुखेल आसात. भूंयमध्यसागरी हवामानाच्या वाठारांत थंयचे खाशेले वनस्पतीवांगडा जारा आनी कारी हे घट लांकडाचे रुख सांपडटात. रानवटी फुलांभितर बोरोनिया, ख्रिसमसबुश, डेझर्ट पी, फ्लॅनेर फ्लावर हेसारकी वनस्पत आसा. ऑस्ट्रेलियाच्या सुक्या वाठारांनी, उत्तर आनी उदेंत वाठारांतल्या पावसाच्या रानानी आर्किडची बरीच वाड जाल्ली आसा. हांगा ऑर्किडांचे सुमार ४७० प्रकार दिसून येतात.

**मोनजातः** ऑस्ट्रेलियांत विंगड विंगड तरांची मोनजात आसा. प्लॅटिपस आनी एशिड्ना हे तांतयां घालपी दोन सस्तन प्राणी फकत हांगाच दिसतात. जमनीवेल्यो आनी साव्या उदकांतल्यो सुमार २४० सस्तन प्राण्यांच्यो जाती (तांतल्यो ११९ कड्डणांचेर जियोवपी), २० सुकण्यांच्यो, २८० सरपटी प्राण्यांच्यो, ११२ बेबकांच्यो, १८० साव्या उदकांतल्या नुस्त्याच्यो, ७५० मोव कातीच्या प्राण्यांच्यो आनी ४०,००० ते ५०,००० किडमुयेच्यो जाती हांगा आसात. पिलांखातीर पोटाकडेन पोती आशिल्लो कांगारु, तशेंच खाशेल्या प्रकारचें कोलसुणे, चिंचुंद्री, माजर, ॲंटईटर हीं जनावरां हांगा सांपडटात. माजराचे जातीचीं कांय जनावरां सोश्याएदीं जाल्यार कांय १.८ मी. उंचायेमेरेनची आसात. फ्लेंजर हो झाडांचेरुच रावता; तो पानां, म्हौंव आनी कीडमुय खावन जियेता. कोआला होय झाडाचेर रावपी प्राणी निलगिरीचीं पानां खावन जियेता. वोम्बॅट हें जड आंगाचें जनावर बिळांत रावता. पाखे, वागोळीं आनी तोंकाच्या दातांचीं बऱ्याच जातींचीं जनावरां हांगा आसात. एमू, कॅसोवेरी हीं उडूंक शकनाशिल्लीं सवणीं, बावरबर्ड हीं खाशेले तरेचें घर बांदपी सवणीं, खाशेली शेंपडी आशिल्लें आनी नक्कल करपी लायरबर्ड सारकीं सुकणीं दिसून येतात. हनीइटर, कीर, हांयसां, किंगफिशर, कोगूळ, क्वेल, फ्लायकॅचर, पेंग्विन अशीं तरांतरांचीं सवणींय हांगा पळोवंक मेळटात. सोरोप, शेड्डे, साव्या उदकांतले कांसव, मानगीं हांच्यो तरेकवार जाती आसात. विखयाळ्या सोरपांच्यो ६-७ जाती आसात. तेभायर कीडमुयेच्योय तरांतरांच्यो जाती हांगा पळोवंक मेळटात. जगांतल्या वायटीचो आनी मुयांचो सगळ्यांत आवलो प्रकार ऑस्ट्रेलियांत आसा. ऑस्ट्रेलियन सरकारान कोआला खातीर खासा अभयारण्यां तयार केल्यांत. मनशान हाडून सोडिल्ले सोशे आनी निवलां हांकां लागून बरेच प्रस्न उप्रासल्यात. डिंगो हो रानवटी कुत्र्याभशेन दिसपी प्राणी घडये आदिवासींनी सुमार आठ ते धा हजार वर्सांपयलीं हाडला आसतलो.

**इतिहासः** इतिहासाच्या सामक्या पोरन्या काळाविशीं बरीच उणी खबर मेळटा. कांय मनशांचे आनी सस्तन जनावरांचे अवशेश हांगा

सांपडल्यात. मेलबोर्न हांगा मेळिल्ल्या मनशाचे कवटेवेल्यान हांगाचो मनीस ऑस्ट्रेलॉयड वंशाचो आशिल्लो अशें थारता. पूण टास्मानिया हांगा आशिल्ले आदिवासी नेग्रीटो वंशाचे आसात, अशें कांय जाणांचें मत आसा. कांय जाणांच्या मतान नेग्रीटो आनी ऑस्ट्रेलॉयड वंशाची भरसण हांगा दिसता. होंवरींनी चित्रां काडपाची कला ऑस्ट्रेलियांतल्या पूर्विल्ल्या मनशांक खबर आशिल्ली. कांय वळखूंक न येवपी जनावरां, मनशाच्यो आकृती, कांगारु हेसारकीं चित्रां फातरांच्या थरांनी सांपडल्यांत. युरोपीय येंवच्यापयलीं विंगड विंगड भाशा उलोवपी कितल्योशोच जमाती हांगा आशिल्ल्यो. चडशे आदिवासी हेडगे आशिल्ले. शिकार हो तांचो मुखेल पोट भरपाचो मार्ग आशिल्लो. मुळावे अवस्थेंत जियोवपी ह्या जमातींनी पयलीं कांय प्रमाणांत युरोपीय गोऱ्या लोकांलागीं झूज दिलें. पूण गोऱ्या लोकांनी तांकां सामके सोंपेपणान हारयले. हांगाच्या मूळ लोकांची गोऱ्या मनशांआडचीं झुजां हालींहालीं मेरेन चलतालीं. ह्यो जमाती सगळयोच मूळ ऑस्ट्रेलियांतल्यो न्हय. मलाया आनी हेर जुंव्यांचेर येवपी परक्यांच्या घुरयांक लागून थंयचे लोक हांगा आयिल्ले आसुंये. कांय जाणांच्या मतान हातूंतले दक्षिण हिंदुस्तानांतल्यानय आयिल्ले कांय लोक आसात.

हो खंड अठराव्या शेंकड्यामेरेन जगांतल्या हेर लोकांक सामकोच अनवळखी आशिल्लो. नवे भुंयेच्या सोदान भोंवपी कांय खलाशी ह्या खंडाच्या लागीं पाविल्ले. आल्व्हारो दे मेंदान्या (१५६७), विल्यम जान्झ (१६०५), लुइस दी टोरेस (१६०६) हे तांतले कांयजाण. १६४२ वर्सा, टास्मान ह्या मनशान सोदिल्ल्या वाठाराक 'टास्मानिया' हें नांव दिलें. १६८८ वर्सा, विल्यम डॅम्पियर ऑस्ट्रेलियाचे अस्तंत दर्यादिगेर पावलो.

इंग्लंडचे रॅयल सोसायटीन कॅप्टन कुक हाच्या फुडारपणाखाल १७६८ वर्सा हांगा एक भोंवडेकारांचो पंगड धाडिल्लो; हो पंगड न्यूझीलंड सावन ऑस्ट्रेलियाचे उदेंत दर्यादिगेर १७७० वर्सा पावलो. उपरांत १७७२ आनी १७७६ ह्या वर्सांनी कॅप्टन कुक हाणें पर्यून ऑस्ट्रेलियाची भोंवडी केली. हाका लागून युरोपीय भोंवडेकारांक उर्बा आयली.

अमेरिकेची व्हड अशी वसाहत हातांतल्यान गेल्याउपरांत ग्रेट ब्रिटनाक थंयसावन आयिल्ल्या लोकांखातीर, तेचभशेन इंग्लंडांतल्या गुन्यांवकारांक दवरचेखातीर पयस अशा एका वाठाराची गरज आशिल्ली, तेन्ना पयले वसाहतीचो गव्हर्नर म्हूण १७८७ वर्सा अणभवी कॅप्टन आर्थर फिलीप हाका नेमलो. ताच्यावांगडा ताका १,००० लोक दिले. तांतले ७३६ जाण बंदखणीत गेल्ले गुन्यांवकार आनी उरिल्ले अधिकारी, शिपाय हे आशिल्ले. २६ जानेवारी १७८८ दिसा तो 'बॉटनी बे' ह्या जाग्यार पावलो. पूण हो वाठार ताका मानवलो ना आनी ताणें पोर्ट जॅक्सन (सिडनी) हांगा पयले वसाहतीची थापणूक केली, सुर्वेक अन्नाक लागून ताका इंग्लंडाचोच आलाशिरो घेवचो पडलो, तेभायर दिसानदीस गुन्यांवकारय वाडटाले. ताणें अधिकाऱ्यांक जमनी दिल्यो आनी हंटर न्हंयचें देगेर शेतवड सुरू केली. गुन्यांवकारांमदल्या कांय जाणांक काम दिवन ल्हव ल्हव थंयचे भुंयेचेर ताणें संशोधन चालू केलें, पूण ताच्या अधिकाऱ्यांकडल्यान ताका जाय तसो आदार लाबलो ना. १७९२ वर्सा, ताची भलायकी इबाडली, ताका लागून तो इंग्लंडाक परतलो. इतले मजगतीं थंयचे वसाहतीचीं सुत्रां आपल्या हातांत घेवन पोरन्या अधिकाऱ्यांनी सगळो वेपार, मेंढरां पोसपाचो उद्येग, सोऱ्याचो धंदो हाचेर आपलो शेक गाजयलो आनी सुमार ६,००० हेक्टर जमीन आपलेभितर वांटून घेतली. हांच्यामदीं मरिनो मेंढरांक लागून गिरेस्त जाल्लो, जॉन मॅकआर्थर हो फुडारी आशिल्लो. पोरन्या अधिकाऱ्यांनी कायदोय आपल्या हातांत घेतिल्लो, ताका लागून बंदखणीतल्या आनी बंदखणीभायल्या गुन्यांवकारांचे हाल जाताले. जॉन हंटर (१७९५-१८००) गवर्नर म्हूण आयलो, पूण ताका ही परिस्थिती बदलप जमलेंना. ताच्या उपरांत पी. जी. किंग (१८००-१८०६) गवर्नर जालो. हो खडेगांठ मनीसय कांयच करूंक शकलोना. पूण त्याचवेळार मॅकआर्थर आनी दुसरो एकलो वयल्या पांवड्यावेलो अधिकारी हांच्यामदीं कांय कारणांक लागून झगडीं जालीं आनी मॅकआर्थराक इंग्लंडाक धाडून दिलो. मॅकआर्थरान इंग्लंडाक येवन आपल्या अधिकाराचो राजीनामो दिलो आनी मेंढरां पोसपाच्या धंद्याखातीर तो परतो ऑस्ट्रेलियांत पावलो. किंग हाका ह्या सगळ्या भानगडीक लागून परतो आपयलो आनी विल्यम ब्लाय (१८०६-१८०८) हाका गवर्नर नेमलो. ह्यावेळार पोरन्या अधिकाऱ्यांची दडपशाय तेंगशेर पाविल्ली आनी ताचो परिणाम एका ल्हानशा लश्करी क्रांतीत जालो. अधिकाऱ्यांनी ब्लाय हाका अटक केली आनी सगळीं सूत्रां आपल्या हातांत दवरलीं. लॅक्लॅन मॅक्वेरी (१८०९-१८२१) हो ऑस्ट्रेलियाक गवर्नर म्हूण गेलो आनी ब्रिटन सरकारान पोरन्या अधिकाऱ्यांक ऑस्ट्रेलियांतल्यान आपोवन घेतले. मॅक्वेरी हाणें हांगाची परिस्थिती सुदारली आनी गुन्यांवकारांक मार्गार हाडले. ताचे उपरांत टॉमस ब्रिस्बेन (१८२१-१८२५), राल्फ डार्लिंग (१८२५-१८३०), रिचर्ड बूर्क (१८३०-१८३८), जॉर्ज गीप्स (१८३८-१८४६), हे गवर्नर जावन गेले. ह्या काळांत हांगा बरेच बदल घडून आयले. गुन्यांवकारांक बऱ्योच सवलती दिवन तांची सामाजीक आनी अर्थीक परिस्थिती सुदारली. १८२८ वर्सा, सुमार ६०,००० हेक्टर जमीन सगळ्यांक वांटली. ह्या काळांत कांय फुडाऱ्यांकडल्यान वसाहतीचे स्वतंत्रतायेची मागणी मुखार आयली. ताका लागून १८४२ वर्सा ब्रिटीश पार्लमेंटान एक विधेयक हाडून वसाहतींच्या नव्या कायदेमंडळाच्या सभासदांची संख्या वाडयली. तांतले १२ जाण राणयेन नेमपाचे आशिल्ले आनी २४ जाणांक खाशेल्या अर्थीक पंगडांनी वेंचपाचे आशिल्ले. ह्या राजकी घडणुकांवांगडा न्यू सावथ वेल्स वसाहतींचो वाठार वाडटालो आनी ल्हव ल्हव हेर वाठारांचोय सोद लागतालो. लोकजागृताय आनी अर्थीक थीरपणाक लागून समाजांत भांडवलदार, जमीनदार ह्या सारके वर्ग तयार जावंक लागिल्ले. वसाहतीक स्वतंत्र, स्वायत्त करपाचे यत्न मॅक्वेरी हाणें केले. आदल्या गुन्यांवकारांआड आशिल्ले कायदे थोडे भोव बदल्ले. पयलींच्या गुन्यांवकारांक राजकी हक्क जाय आशिल्ले आनी हेरांचो ताका विरोध आशिल्लो. बेंजामिन बॉयड, डब्ल्यू. सी. वेंटवर्थ, मॅकआर्थर हाणीं १८३५ वर्सा ऑस्ट्रेलियन पेट्रिॲटिक असोसिएशनची थापणूक केली आनी आपलो प्रतिनिधी इंग्लंडाक धाडलो. ह्या काळांत ब्रिटीश वसाहत दिसानदीस ह्या खंडाचेर वाडत आशिल्ली.

१८५० वर्सा न्यू सावथ वेल्सासावन व्हिक्टोरिया कुशीक काडलो. न्यू सावथ वेल्सासारके हेर सगळ्या वसाहतींक अधिकार मेळ्ळे. व्हिक्टोरिया, दक्षिण ऑस्ट्रेलिया, टास्मानिया हांणी आपलीं संविधानां तयार केलीं. ह्यो राजकी घडणुको चालू आसतना ऑस्ट्रेलियांतले भोंवडेकार जमीन आनी उदका मार्गांनी नवे नवे वाठार सोदीत आशिल्ले. हातूंत समाजांतल्या सगळ्या थरांतले मनीस आशिल्ले. ग्रेगरी ब्लॅक्सलॅंड, विल्यम लॉसन आनी डब्ल्यू. सी. वेंटवर्थ हांणी हरयाळेच्या वाठारांनी घुसून लॅक्लन न्हंयच्या प्रवाहाआड वचपाचे यत्न केले आनी कांय न्हंयांची माहिती मेळयली. जॉन औक्सली, एव्हान्झ आनी ॲलन कनिंगहॅम हांणी उत्तरेवटेन भोंवडी केली, जाल्यार हॅमिल्टन ह्यूम आनी विल्यम हॉवेल हांणी दक्षिणेवटेन भोंवडी करून न्हंयांची खबर मेळयली (१८२४). कॅप्टन चार्लस् स्टुअर्ट हाणें १८२८ ते १८३० ह्या वर्सांनी अस्तंतेची भोंवडी करून न्हंयांचें मूळ आनी प्रवाह हांचेविशीं चडांतचड माहिती घेतली. न्यू सावथ वेल्स आनी न्यू हॉलंड हो एकूच एकामेकांक तेंकिल्लो वाठार आसा, हो सोद तेन्ना लागलो. एडवर्ड एअर हाणें १८४०-४१ वर्सा मध्य ऑस्ट्रेलियांतल्या मीठागरांचो सोद लायलो. १८४४ आनी १८६० वर्सा फ्रिड्रीख लायखार्ट आनी मॅकडॉएल हांणी जमनीवेल्यान ऑस्ट्रेलियाची चारुय दिकांनी भोंवडी केली आनी नव्या वाठारांचो सोद लायलो. १८७५ मेरेन ऑस्ट्रेलियांतल्या सगळ्या वाठारांचो सोद लागूंक पावलो.

१८५१ त, ऑस्ट्रेलियांत भांगर मेळटा हें समजलें आनी हाका लागून इतिहासाक एक वेगळें मोडण मेळ्ळें. कोणाकूच पाचारिनासतना लोक भितरल्या वाठारांनी वचून रावंक लागले. व्हिक्टोरिया वसाहतींत भांगर सोदून दितल्यांक व्हड व्हड तस्त्रीपो जाहीर केल्यो, ताका लागून हे वसाहतींत भांगर चड मेळपाक मदत जाली. १८५६ वर्सा, भांगराक

लागून जाल्ल्या अर्थीक वाडीवांगडा राजकी मळार लोकांक प्रौढ मतदानाचो अधिकार मेळ्ळो आनी ऑस्ट्रेलियांत लोकशायेची सुरवात जाली.

समाजांत तशे खासा वर्ग नाशिल्ले, पूण बायलांक मतदानाचे अधिकार मेळचेखातीर आनी मात्सो काळ रावचें पडलें. १८८१ त व्हिक्टोरियांत कायदेमंडळाची मुदत १० वर्सांवेल्यान ६ वर्सांचेर हाडली.

जमनीचे मालकेसंबंदीचे कायदे जावन शेतांतल्या कामेऱ्यांक चड काम मेळ्ळें. शेतवडीचो उद्देग एक मुखेल उद्देग करपाचे नदरेंतल्यान यत्न सुरू जाले.

भांगराचो सोद ते संघराज्यनिर्मणी हे मजगतीं ऑस्ट्रेलियांत कामगार संघटनांची थापणूक जाली. १८९० च्या संपाक अपेस मेळ्ळ्या उपरांत कामगारांक राजकी हक्काची गरज कळून आयली. १९०१ मेरेन ह्या कामगार संघटनांनी प्रत्यक्षांत राजकी सत्ता जरी मेळयलीना, तरीपूण आपल्या संघटनांच्या नेटार तांणी विंगडविंगड राजकी पंगडांचेर चेपण हाडून आपले फायदे करून घेतले.

आपल्या वसाहतींतल्या उद्देगधंद्यांक राखण मेळचेखातीर न्यूसावथ वेल्सखेरीज हेर वसाहतींनी १८६० ते १९०० मेरेन जकात (excise) राखणेचें धोरण घेतलें. खबरापत्रांनी हे गजालीक बरेच तेंको दिलो. १८६४ वर्सा व्हिक्टोरीयान हें तत्त्व आपणायलें, जाका लागून न्यू सावथ वेल्साकडेन ताचे संबंद इबाडले. हाचो परिणाम दक्षिण ऑस्ट्रेलियाचेरुय जालो.

गोरे सोडून हेर लोक हांगा येवपाविशींचें ऑस्ट्रेलियाचें धोरण बरेंच गाजलां. चीन वा हेर देशांतल्या उणो पगार घेवपी कामेऱ्यांक लागून हांगाच्या लोकांचे जीणेचो पांवडो देंवतलो आनी बरेच नैतिक आनी समाजीक प्रस्न उप्रासतले, हाका लागून तांचेर बंदी घाली. हेर प्रस्नांचेर मतभेद आशिल्ल्या ऑस्ट्रेलियांतल्या सगळ्या विंगडविंगड पंगडांचे हे गजालीचेर एकमत जालें.

१८९३ वर्सा, ऑस्ट्रेलियांतली देंवपी अर्थीक परिस्थिती संघराज्याचे निर्मणेखातीर उपेगी थारली. १८५० आनी १८६० त, सगळ्या वसाहतींचें एक राज्य आसचें अशे बरेच यत्न जाले.

जानेवारी १८९५ त, एक संघराज्य आसचें, अशें वसाहतीच्या मुखेल्यांक दिसूंक लागलें. मार्च १८९७ त, ॲडिलेड हांगा सगळ्या वसाहतींच्या प्रतिनिधींची बसका जाली. संघराज्याचें संविधान तयार करतना कांय प्रस्न उप्रासले. संघराज्यांत मध्यवर्ती सत्तेक कितले अधिकार आसचे, तशेंच अस्तंत ऑस्ट्रेलिया सारक्या उण्या लोक संख्येच्या वाठारांक फाव तें प्रतिनिधी कशें आसचें, हेसारक्या प्रस्नांचेर विवर्सून चर्चा जाली. दोन सप्तकांनी संविधानाची सादारणशी रचणूक जाली. ह्या संविधानाक व्हिक्टोरिया, टास्मानिया आनी दक्षिण ऑस्ट्रेलियाच्या लोकांनी भोवमतान मान्यताय दिली. न्यू सावथ वेल्सांत मात जाय तशें भोवमत मेळिल्ल्यान प्रस्न निर्माण जालो. न्यू सावथ वेलाचो मुखेली जॉर्ज रीड हाणें हेर राज्यांच्या मुखेल्यांची भेट घेवन कांय सुचोवण्यो दिल्यो. ताचे उपरांत सुदारणा केल्लें संविधान न्यू सावथ वेल्सान मान्य केलें. ब्रिटीश संसदेन हें विधेयक ९ जुलय १९९० दिसा मान्य केलें. ह्याचवेळार अस्तंत ऑस्ट्रेलियानय संघराज्यांत येवपाक तयारी दाखयली आनी निमाणी १ जानेवारी १९०१ दिसा ऑस्ट्रेलियन संघराज्याची थापणूक जाली.

संघराज्याचे थापणुकेक लागून राष्ट्रभावना खर जायत गेली. उणी लोकसंख्या आनी ब्रिटनाची पावलापावलाक जाय पडपी मदत हांकालागून परराष्ट्र धोरणांत ऑस्ट्रेलियाक कांयच करप शक्य नाशिल्लें. पूण अर्थीक मळार तांकां सुदारणा करूंक संद मेळ्ळी. अर्थीक प्रस्न देशभर अशिल्ल्यान केंद्र सत्तेच्या अधिकारांची शीम वाडोवपाचे यत्न जाले. कामगार संघटना आनी वावराड्यांचो पक्ष (Labour Party) हांचें म्हत्व वाडलें. कामगारांखातीर खासा कायदे निर्माण जाले. बदलत वचपी परराष्ट्र राजकारणाक लागून राखणेची गरज वाडली. पॅसिफिक महासागरांत जर्मनी खवदळ घालूंक लागिल्लो. १९१२ वर्सा, राखणे दळांची ब्रिटीश पध्दतीचेर रचणूक जाली.

ऑस्ट्रेलियांत १९१४ वर्सा वेंचणुकांचें वातावरण तयार जाल्लें आसतनाच पयलें म्हाझूज चालू जालें. वेंचणुकांत उदारमतवादी आनी वावराड्यांचो पक्ष ह्या मुखेल पक्षांनी ब्रिटनच्या धोरणाक फाटबळ दिलें. जोसेफ कुक ह्या उदारमतवादी फुडाऱ्याक वेंचणुकेंत हार खावची पडली आनी अँड्र्यू फिशर हो वावराड्यांच्या पक्षाचो मुखेली पंतप्रधान जालो. ३ ऑगस्टाक ब्रिटनान झुजाक सुरवात केल्या उपरांत ऑस्ट्रेलियाचें नाविक दळ इजिप्ताक लडाय करूंक पावलें. फिशरच्या उपरांत विल्यम ह्यूज पंतप्रधान जालो. ताच्या धोरणांचेर खर टीका जाली. झूज सोंपतकच शांतताय परिशदेक ह्यूज हाजीर रावलो. ऑस्ट्रेलियन राष्ट्रवादाचो ताणें प्रसार केलो. अमेरिकन राष्ट्रपती विल्सन हाच्या आदर्शवादी विचारांचेर ताणें टिका केली. जगाच्या राजकारणांत ताणें ऑस्ट्रेलियाक खाशेलो जागो मेळोवन दिलो. झुजाक लागून ऑस्ट्रेलियाक कांय फायदे जाले. युरोपीय देशांच्या सत्तासर्तींतल्यान पयस आशिल्ल्यान ऑस्ट्रेलियाचो वेपार वाडलो. लोखणाच्या वेवसायाक बरे दीस आयले. ह्यूजाक १९२३ त राजीनामो दिवचो पडलो. रॉजर्स ब्रूस आनी अर्ल पेझ हांचें सरकार अधिकाराचेर आयलें. ह्या मंत्रीमंडळांतल्या बऱ्या येवजणींक लागून ऑस्ट्रेलियाची उदरगत जाली. १९२८ च्या वेंचणुकांत वावराड्यांच्या पक्षाक भोवमत मेळ्ळें. १९३१ वर्सा, अधिकाराचेर आयिल्ल्या युनायटेड ऑस्ट्रेलिया पक्षान १९३४ च्या वेंचणुकांनी हार खाली, पूण कंट्री पक्षावांगडा कबलात करून १९३७ वर्सा अधिकाराचेर येवपांत येस मेळयलें. १९३९ त, आर. जी. मेंझिझ पंतप्रधान जालो. १९४१ वर्सा, जॉन कर्टिन हो वावराड्यांच्या पक्षाचो मुखेली पंतप्रधान जालो. दोन म्हाझुजांमदलो काळ ऑस्ट्रेलियाक बरोच त्रासांचो गेलो.

दुसऱ्या म्हाझुजांत ऑस्ट्रेलियाचो वांटो म्हत्वाचो आसा. ऑस्ट्रेलियाचें हवाई दळ मध्यउदेंतेक गेलें. जानेवारी ते मार्च १९४१ मेरेनचे लडायेंत ऑस्ट्रेलियान जैतिवंत काम केलें. जर्मनी आनी इटलीच्या घुरयांक लागून आफ्रिकेंत लडाय करपी ऑस्ट्रेलियाचें सैन्य एकसुरें पडलें. आठ म्हयने तें झुजतालें; ताका विसव घेवपाची गरज आशिल्ली. ऑस्ट्रेलियाचो जनरल ब्लेमी हाणें तशी मागणी केली. चर्चिलान ती मनार घेतलीना, पूण मेंझिझ आनी ताच्या हेर वांगड्यांनी जनरल ब्लेमीक फाटबळ दिलें. कांय दिसांनी चर्चेउपरांत थंयचें लश्कर फाटीं घेतलें. ह्या मतभेदांचो परिणाम ऑस्ट्रेलियांतल्या राजकारणाचेर जालो. वावराड्यांच्या पक्षान जपानाच्या घुरयांची भिरांत दाखोवन दिवन समेस्त ऑस्ट्रेलियन सैन्याक फाटीं आपोवपाची मागणी केली. ऑक्टोबर १९४१ त दोनूच मुखेल पक्ष वेंचून आयले, पूण वावराड्यांच्या पक्षान हेरांकडेन तडजोड केलीना. निमणे, झुजाच्या काळाखातीर कारभार चलोवपाखातीर एका मंडळाची नेमणूक जाली, पूण ह्या मंडळाचो कारभार फाव तसो जालोना.

कर्टिन अधिकाराचेर आयलो आनी जपानान घुरी घाली. (७ डिसेंबर १९४१) ऑस्ट्रेलियान ह्या संकश्टाक बरेंभशेन जाप दिली. झुजाउपरांत ऑस्ट्रेलियाच्या परराश्ट्र धोरणांत म्हत्वाचो बदल जालो. झुजा काळांत ऑस्ट्रेलिया आनी अमेरिका एकामेकांक बरेंच लागीं आयले. ऑस्ट्रेलियांतय साम्यवादाआड जाणविकाय बरीच आशिल्ली. १९५१ वर्सा, अँझूस कबलात जाली. ऑस्ट्रेलिया सीटो संघटनेचोय प्रतिनिधी जालो. १९५६ वर्सा, सुएझ प्रस्नाचेर ब्रिटनाक तेंको दिवपी कांय राश्ट्रांमदीं ऑस्ट्रेलियाय आशिल्लें. राश्ट्रकुल आनी संयुक्त राश्ट्रांवरवीं आशियांतल्या देशांकडेन ऑस्ट्रेलियान संबंद जोडले.

१९५५ सावन वावराड्यांच्या पक्षांत फूट पडली आनी तातूंतल्या कांय जाणांनी नवो डॅमोक्रॅटिक पक्ष निर्माण केलो. वावराड्यांच्या पक्षाचेर साम्यवाद्यांक तेंको दिल्ल्याचो आरोप जालो. चीनाक मान्यताय दिवपाच्या प्रस्नावेल्यान हे मतभेद सुरू जाल्ले. १९५५ ते १९७२ ह्या काळांत ऑस्ट्रेलियाच्या सत्तेमळार बरेच बदल जाले. होल्ट, जॉन गॉर्टन, मॅकमाहॉन हे पंतप्रधान जाले. १९७२ वर्सा वावराड्यांच्या पक्षाचो फुडारी

गॉफ व्हिटलॅम वेंचून येवन पंतप्रधान जालो. एप्रिल १९७४ त, म्हयन्यांत व्हिटलॅम हाणें संसद बरखास्त केली. पूण ताचो वावराड्यांच्या पक्षाक कसलोच फायदो जालो ना. १९७७ त डॉनाल्ड पीप हाच्या फुडारपणाखाल डॅमोक्रेटिक पक्षाचें सरकार आयलें, पूण वावराड्यांच्या पक्षान ल्हव ल्हव आपली शक्त वाडयली. १९८३ वर्सा, तांचें सरकार आयलें आनी रॉबर्ट जे. हॉक राश्ट्रपती जालो.

**राज्यवेवस्थाः** १७९० मेरेन ऑस्ट्रेलियांत सुमार ६ ब्रिटीश वसाहतींची पुरायपणान थापणूक जाल्ली. ह्या वसाहतींचें प्रशासन १९ व्या शेकड्यामेरेन ब्रिटनाकडल्यान चलतालें. संविधानाचे नदरेंतल्यान १८५० चो वसाहतविशींचो कायदो बरोच म्हत्वाचो आसा. ताच्यापयलीं थळाव्या वसाहतींत कांय गजालींभितर स्वतंत्रताय दिवन प्रशासनाचे अधिकार तांच्याचकडेन दिल्ले. १९ व्या शेंकड्याच्या शेवटामेरेन चडश्यो सगळ्यो वसाहती थळावी स्वतंत्रताय भोगताल्यो.

ऑस्ट्रेलियाचें संविधान अमेरिकेभशेन संघराज्याचें (federation) आसा. संघराज्य आनी हेर राज्यां हांचे अधिकार संविधानांत स्पश्टपणान बरोवन दवरल्यात. संविधानाक सगळ्यांत चड म्हत्व आसा. संविधानाचे नेम संसद आनी राज्यांतलीं विधीमंडळां, न्यायसंस्था आनी नागरिक हांकां बंधनकारक आसतात. संघराज्याचे कायदे संसदेक करपाचो अधिकार आसता. संसदेच्या प्रशासनाखाला परराश्ट्र धोरण, राज्यांतलो वेपार, रिणां घेवप, राखण, टपाल हेसारकीं म्हत्वाचीं खातीं आसात. संघाची संसद सीनेट आनी हावस ऑफ रिप्रेझेंटेटिव्हज् अशा दोन घरांनी बसपी आसा.

ऑस्ट्रेलिया संघराज्याची संसद आनी राज्याचीं विधीमंडळां हांच्या प्रतिनिधींची वेंचणूक मतदारांकडल्यान जाता. हावस ऑफ रिप्रेझेंटेटिव्हज् हातूंत १२४ सभासद आसतात. सगळ्या राज्यांक सीनेटाखातीर सारकेच सीनेटर वेंचपाचो अधिकार आसा. मुखेल पक्ष म्हळ्यार वावराड्यांचो पक्ष, उदारमतवादी पक्ष हे आसात. हालीं हालीं कंट्री पक्ष, डेमोक्रॅटिक पक्ष हेय मुखार येवंक लागल्यात. सीनेट स वर्सांच्या काळाखातीर आसता, ताचे अर्दे सभासद दर तीन वर्सांनी निवृत्त जातात. दुडवांविशींचीं विधेयकां सीनेटांत येनात. संयुक्त बसकांभितर हावस ऑफ रिप्रेझेंटेटिव्हज्चें मत चड म्हत्वाचें आसता, मंत्रीमंडळांत चडशे सभासद तांचे आसतात. दोनूय सभाघरांमदीं मतभेद जाल्यार दोनूय घरां बरखास्त करपाचो गवर्नर जनरलाक अधिकार आसता. घटक राज्यांभितर क्वीन्सलॅंड सोडल्यार हेर सगळीं विधीमंडळां दोन घरांचीं आसतात.

कार्यकारी सत्ता केंद्रांतल्या मंत्रीमंडळाच्या हातांत आसा. कायदे मंडळांत भोवमत आशिल्ल्या पक्षाचो फुडारी पंतप्रधान जाता. हाची नेमणूक गवर्नर जनरल करता. घटक राज्यांच्या प्रशासनाखाल थळाव्यो स्वराज्य संस्था आसात. रस्ते, पूल बांदप, भलायकी, उदकापुरवण हीं खातीं घटक राज्याच्या अधिकारांत येतात. थळाव्या स्वराज्य संस्थांची निर्मणी, अधिकार, अर्थवेवस्था ह्या सारक्यो गजाली घटक राज्यां थारायतात. संविधानाप्रमाण उच्च न्यायालयाची थापणूक जाल्या. ह्या न्यायालयांत एक मुखेल न्यायाधीश आनी हेर ६ न्यायाधीश आसतात. हांची नेमणूक मंत्रीमंडळाच्यो सुचोवण्यो घेवन गवर्नर जनरल करता. संघराज्यांत उच्च न्यायालयाच्या पांवड्यावेलीं आनी दोन न्यायालयां आसात. तीं म्हळ्यार फॅडरल कोर्ट ऑफ बँकरप्टसी आनी कॉमनवेल्थ इंडस्ट्रियल कोर्ट. ऑस्ट्रेलियांतले न्यायपध्दतीचो सगळ्यांत उंचेलो अधिकार इंग्लंडांतल्या प्रिव्ही काउन्सिलाकडेन पयलीं आशिल्लो. पूण १९६७ वर्सा तो रद्द केलो.

राखणे खात्याक राखणे विशींचें धोरण थारावपावांगडाच राखणे कडेन संबंद आशिल्लें उत्पादन, पुरवण, संशोधन हींय खातीं सांबाळचीं पडटात. राश्ट्रांत तळ बांदपाखातीर परवानगी दितात. पयलें म्हाझूज, दुसरें म्हाझूज हेभायर कोरिया आनी व्हिएतनाम झूज हातूंत ऑस्ट्रेलियान वांटो घेतिल्लो. चिनाच्या अणुस्फोटा उपरांत ह्या देशान राखणेचेर चड लक्ष दिवंक सुरवात केल्या.

**अर्थीक स्थितीः** ऑस्ट्रेलियाचे वट्ट जमनींतली ३४% जमीन शेतवडीखातीर उपेगी पडना. ४२% जमनींत पावस उणो पडटा आनी थंय मेंढरां पोसपाचो उद्देग व्हडा प्रमाणांत आसा. उरिल्ल्या २४% जमनींत शेतांखातीर जाय तसो पावस पडटा, पूण हो वाठार चडसो दोंगरी आनी उण्या कसाच्या शेतजमनीचो आसा. फकत सुमार ८% जमनींत बरें शेत पिकता; पूण हातूंतलीय चडशीं मेंढरां, गोरवां पोसपांत खर्च जाता.

१९ व्या शेंकड्याच्या सुर्वेक सावन अर्थीक-समाजीक परिस्थितींत म्हत्वाचे बदल घडून आयले. शेतांत यंत्रां लायिल्ल्यान गंवाचें पीक व्हडा प्रमाणांत येवंक लागलें. गायच्या मांसाकय बरीच मागणी आयली. ऑस्ट्रेलियाच्या वायव्य वाठारांतलो गोरवां पोसपाचो वाठार, व्हिक्टोरिया आनी न्यू सावथ वेल्स हांचे अस्तंतेवटेनचे वाठार तशेंच ग्रेट ऑस्ट्रेलियन बाइट भोंवतणचो वाठार हांगा जमनीपोंदा उदक मेळटा. जमनीच्या पोटांत २,१३३ मी. मेरेन खोलायेच्यो बांयो मारल्यात, हांकां आर्टेशियन बांयो म्हण्टात. असल्यो सुमार ७,५०० वयर बांयो हांगा आसात. तातूंतल्यान दर दिसा १.४ अब्ज लिटर परस चड उदक मेळटा. वट्ट मेंढरांतलीं सुमार २०% आर्टेशियन बांयच्या उदकाचेर जियेतात.

गोरवांक खावड म्हूण उपेगी पडपी पाचव्या तणाचें हांगा बरेंच पीक येता. मेंढरां पोसप हो हांगाच्या अर्थवेवस्थेचो मुखेल उद्देग. जगांतल्या वट्ट लोकरींतलें ३०% लोकरीचें उत्पादन हांगा जाता. मेंढरांच्या उद्देगाइतली उदरगत गोरवां पोसपाच्या धंद्यांत जावंक ना. मजेखातीर हाडिल्ल्या सोशांचें प्रमाण ऑस्ट्रेलियांत बरेंच वाडलें आनी व्हडा प्रमाणांत तण खावन तांणी गोरवां- मेंढरांचेर उपाशीं मरपाची पाळी हाडली. हाका लागून सोशांचो बंदोबस्त करपाखातीर हांगाच्या सरकारान लाखांनी डॉलर खर्च केले.

जमनींवेल्या पिकावळीभितर ६७.९% गंव, पाचवी गोरवांच्या खावडीची वरण १४.९%, सादें तण १०% ही हांगाची मुखेल पिकावळ जावन आसा. हेभायर भाजीपालो, फळां हांचेंय हांगा बरेंच पीक येता. गंवाच्यो तरेकवार जाती हांगा सांपडटात. तांतल्यो गेबो, बेनक्युबिन आनी बंगाला ह्यो थळाव्यो लोकांमदीं बऱ्योच नांवाजिल्ल्यो आसात. वट्ट पिकावळींतलो सुमार ७२% गंव निर्यात जाता. ओट, बार्ली, ज्वारी, तांदूळ, मको हांचीय ऑस्ट्रेलिया निर्यात करता.

हेर पिकांभितर ऊंस, मसमी भिकणां, तंबाखू, कापूस हीं बऱ्याच प्रमाणांत जातात. ह्या पिकांखातीर बरीच चड जमीन राखून दवरल्या. क्वीन्सलॅंडच्या दर्यादिगेवेल्या वाठारांत ऊंस चड जाता. लिनसीड (linseed-सणबियां) चे पिकावळींतल्यान मेळपी तेल देशांतल्या तेलाची गरज २०% नी भागयता. द्राक्षांचे मळे सावथ ऑस्ट्रेलिया, व्हिक्टोरिया आनी न्यू सावथ वेल्स ह्या राज्यांनी चड आसात. द्राक्षांचो सोरो काडप होय एक मुखेल धंदो जाला. व्हिक्टोरिया, न्यू सावथ वेल्स आनी टास्मानिया हांगा बटाटांचेंय पीक बरेंच येता.

हांगाच्या खण उद्देगाक १८४२ सावन न्यू सावथ वेल्स राज्यांत मेळिल्ल्या तांब्याचे सांठवणींतल्यान सुरवात जाली. ताचे उपरांत ल्हव ल्हव हेर राज्यांनी तरेकवार खनिजांचे सोद लागले आनी ऑस्ट्रेलियाचे अर्थीक वेवस्थेक एक नवें फाटबळ मेळ्ळें. पेट्रोलियम, रॉक फॉस्फेट, सैमीक गंधक, कथिल हेसारक्या खनिजांचें हांगा उत्पादन सामकेंच उणें आसा, पूण हेर खनिजां बऱ्याच प्रमाणांत मेळटात. धातू खनिजांभितर तांबें, शिशें, चांदी, भांगर, लोखण हेसारकीं मुखेल आसात. तेभायर कोळसो आनी हेर अधातू खनिजांय हांगा व्हडा प्रमाणांत सांपडटात. खणउद्देग पुरायपणान सरकाराच्या हातांत आसा. ह्या उद्देगाचेर सरकार नियंत्रण दवरता आनी तेविशींचीं धोरणां थारायता.

न्यू सावथ वेल्स राज्यांत ९०% बिट्यूमिनस आनी सेमी अँथ्रायट कोळसो आसा. तेभायर हेर खनिज संपत्ती ह्या खंडांत बऱ्याच व्हड प्रमाणांत मेळटा. रुटायल आनी झिरकॉन ह्या खनिजांच्या मळार जगांत ऑस्ट्रेलिया सगळ्यांत फुडें आसा. डोलोमायट, फ्लूओरस्फार, मॅग्नेसायट,

चुनखडी, मीठ हांचेय सांठे हांगा मेळटात.

उदकांतले पिकावळींत नुस्त्याचें प्रमाण उणें जाल्ल्या कारणान हांगा नुस्तें आयात करचें पडटा. मुलेट, ऑस्ट्रेलियन सॅमन आनी ट्यूना हांचें प्रमाण वट्ट उत्पादनाच्या ४०% आसा. कॉड, स्नॅपर, फ्लॅटहेड, मॉरवोंग, डेमर्सल, शार्क सारकें नुस्तें हांगा आसा. खोल दर्यांतल्या नुस्त्याभितर स्पॅनिश मॅकरल, बॅराकुडा, जॅक मॅकरल, ट्यूना ह्या नुस्त्याक चड मागणी आसा. कुल्ल्यो आनी तरांतरांचीं सुंगटां हांगा सांपडटात. मोतयांच्या उत्पादनांत ऑस्ट्रेलियाचो वांटो चड म्हत्वाचो आसा. थर्सडे आयलंड, टॉरिस, ब्रूम, डार्विन हांगा दर्यांतलीं मोतयां मेळटात. ह्या मोतयांक लागून ऑस्ट्रेलिया मोतयांच्या उत्पादनांत जगांत सगळ्यांत फुडें पावला.

हांगाच्या वट्ट उत्पादनमोलाच्या सुमार ६०% उत्पादनमोल कारखान्यांतल्या उद्देगांतल्यान मेळटा. उद्देगीक धातू, यंत्रां आनी वाहनां, अन्न, पेयां आनी तंबाखू, कपडो, रसायनां, रंग, कागद हांचे कारखाने हांगा बरेच आसात. चडशे कारखाने राज्यांच्या राजधानींनी आसात. शारांमदीं वट्ट लोकसंख्येतले ७३ % कामगार आसात. न्यूकॅसल, वुलनगाँग, पोर्ट केंब्ला, गीलाँग आनी लॉसेस्टन ह्या शारांनीय व्हड कारखाने आसात. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत बोटी बांदपाच्या उद्देगाक बरेंच म्हत्व आयलें. सिडनी, न्यूकॅसल, व्ह्याल्ला, मेलबॉर्न आनी ब्रिस्बेन हांगा बोटी बांदपाचे व्हड कारखाने आसात. मोटारगाडयो, रेडिओ, टेलिव्हिजन आनी हेर वीजेचेर चलपी यंत्रां हांचें उत्पादन हांगाच जाता. देशांत तेल शुध्द करपाचेय बरेच कारखाने आसात. लोकर तयार करपाचे १३५ परस चड कारखाने, तशेंच पायतणां, स्फोटक द्रव्यां, ग्रीज तयार करपाचेय कारखाने हांगा बऱ्याच प्रमाणांत आसात. कारखान्यांच्या उद्देगांक लागून व्हड परंपरा आशिल्ली कामगार चळवळ हांगा बरीच जागृत आसा.

आयात निर्यातींत ब्रिटन हांगा सगळ्यांत चड निर्यात करपी देश. तेभायर अमेरिका, जपान, अस्तंत जर्मनी, कॅनडा आनी अरब देश हांच्यायकडल्यान ऑस्ट्रेलियांत आयात जाता. ह्या सगळ्या देशांक ऑस्ट्रेलिया लोकर, मांस, गंव, दूद, साकर, फळफळावळ आनी खनिजां हांची निर्यातय करता.

ऑस्ट्रेलियन डॉलराक जगाचे बाजारपेठेंत बरेंच मोल आसा. रिझर्व बँक ऑफ ऑस्ट्रेलिया ही हांगाची मुखेल बँक आसा. १९६८ वर्सा, हांगाच्या उद्देगधंद्यांक आनी सैमीक संपत्तीच्या वेपाराक तेंको दिवपाखातीर 'ऑस्ट्रेलियन रिसोर्सेस डॅव्हलपमेंट बँक' हे बँकेची थापणूक जाली. तेभायर हेर बऱ्योच वेपारी आनी बचत बँको हांगा आसात.

**येरादारी आनी संचारणः** रस्ते आनी रेल्वेमार्ग बांदपाच्या कामाक हांगा १९ व्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दासावन सुरवात जाली. हांगा सुमार ८,०४,७५३ किमी. लांबायेचे बरे रस्ते आसात (१९८४). रस्त्यांचो उपेग गांवगिऱ्या वाठारांनी येरादारी करपाक चड जाता. पयसुल्ल्या वाठारांनी मेंढरां आनी गोरवां तशेंच पिकावळ व्हरपांत रस्त्यांचो बरोच हातभार लागता. १९८४ वर्सा वट्ट रेल्वेमार्गांची लांबाय ३९,२५१ किमी. आशिल्ली. दर राज्यांतल्या रेल्वे मार्गांचेर त्या त्या राज्याच्या सरकाराचें नियंत्रण आसता. खण-उद्देग, रानां-उद्देग, साकर-उद्देग हातूंत रेल्वेमार्गांचो येरादारीखातीर बरोच उपेग जाता.

ह्या देशांत उदकांतले मार्ग येरादारीखातीर उपेगी पडनात. पूण हेर देशांकडेन वेपार करपाचे नदरेंतल्यान हांगाचीं बंदरां बरींच म्हत्वाचीं आसात. हांगा सुमार १०० वयर बंदरां आसात. सिडनी, मेलबॉर्न, फ्रीमँटल (पर्थ), पोर्ट ॲडिलेड, गीलाँग, पोर्ट केंब्ला, व्ह्याल्ला, ब्रिस्बेन आनी होबार्ट हीं बंदरां मुखेल आसात. देशांतलीं आनी देशाभायलीं बरीचशीं शारां हवाईमार्गांनी जोडल्यांत. हवाई येरादारीक हो देश सामको आदर्श थारला. १९८० मेरेन ऑस्ट्रेलियांत देशाभितरल्या हवाई मार्गांचेरुच १,१०,००,००० लोक एका वर्साक प्रवास करताले. क्वांटाज ॲअरवेज ही आंतरराश्ट्रीय येरादारी करपी सरकारी विमान कंपनी जावन आसा. ब्रिस्बेन, पर्थ, मेलबॉर्न, सिडनी, डार्विन हांगा आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. सुमार ४०० हेर विमानतळ हांगा आसात.

दूरध्वनी, दूरचित्रवाणी ह्या मळार ऑस्ट्रेलियाची बरीच उदरगत जाल्या. संचारणाच्या मळार युरोपीय देशांचो पावंडो ऑस्ट्रेलिया हुपूंक पावला. ऑस्ट्रेलियांत ६३ दिसाळीं आसात. 'ऑस्ट्रेलियन' हें दिसाळें सगळ्यांत चड लोकप्रिय आसा. तेभायर 'द सिडनी मॉर्निंग हॅराल्ड' आनी मेलबॉर्नच्यान उजवाडाक येवपी 'एज' हीं दिसाळीं प्रसिध्द आसात. अर्थकारणाचेर खबरो दिवपी 'फायनान्शियल रिव्यू' हें दिसाळें आनी 'नॅशनल टायम्स' हें सातोळें देशभर पावता.

**लोक आनी समाजजीणः** १९८२ वर्सा ऑस्ट्रेलियाची लोकसंख्या सुमार १,५१,७५,००० इतली आशिल्ली. हातूंत आदिवासींचोय आस्पाव आसा. हे आदिवासी वेस्टर्न ऑस्ट्रेलिया, नॉर्दन टेरिटरी, उत्तर क्वीन्सलँड आनी सावथ ऑस्ट्रेलिया ह्या वाठारांनी रावतात. हे भायर आशियाई आनी पॉलिनेशियन वंशाचेय लोक हांगा रावतात. लोकसंख्येची दाटीय (density) हांगा बरीच उणी आसा. ५०% परस चड लोक शारांनी रावतात.

ऑस्ट्रेलियन प्रशासनाच्या धोरणांत आप्रवासन (immigration) हो एक मुखेल प्रस्न आसा. १९ व्या शेंकड्याच्या शेवटाक सावन गोरे सोडून हेर सगळ्या लोकांक हांगा येवन रावपाचो हक्क न्हयकारलो. तरीपूण सुमार १९५९ वर्सा हो कायदो मात्सो बदल्लो. आशियांतले विद्यार्थी शिक्षणाच्या निमतान बऱ्याच प्रमाणांत हांगा आयले.

भलायकेचे नदरेंतल्यान हो एक सामको फुडारिल्लो देश आसा. गरम हवामानांत जावपी घातकी रोग हांगा नात. ह्या देशांत पुरायपणान धर्मस्वतंत्रताय आसा. चडशे लोक किरिस्तांव; हांतले कांय रोमन कॅथलिक जाल्यार कांय प्रॉटेस्टंट आसात. हेर धर्मांचेय लोक ऑस्ट्रेलियांत आसात.

हांगा कामाक ब्रिटन, अमेरिका ह्या देशांसारकें म्हत्व आसलें तरी हांगाच्या लोकांक विसव घेवपाचो भोव नाद. बायलांची सुवात समाजांत बऱ्याच उंचल्या पावंड्यार आसा. कपड्यांच्या विशयांत हांगा जरी युरोपीय पध्दत आसली तरी हवामानातले गरमेक लागून सुती आनी सैल कपडे घालप लोकांक चड आवडटा. बियरीक ह्या देशांत बरीच मागणी आसा. दादले-बायलो बियर व्हडा आवडीन पियेतात. तांच्या सदांच्या जेवणांत गायचें मांस आनी मटण चड आसता. किरिस्तांव धर्माचे सगळे सण आनी उत्सव ह्या देशांत मनयतात.

कला आनी खेळांमळार हांगाचे लोक चड भर दितात. चित्रकलेच्या मळार युरोपांत आयिल्ले विंगडविंगड प्रभाव हांगाचे चित्रकलेचेर दिसून येतात. सर टॉमस गिल हो १९व्या शेंकड्यांत नामनेचो चित्रकार जावन गेलो. आदिवासी चित्रकलेच्या मळार मार्गरिट प्रेस्टन हाणें जगभर नामना मेळयली. तेभायर कॉनरॅड मार्टेन्स, टॉम रॉबर्टस्, फ्रेडरिक मॅक्यूबिन, सर आर्थर स्ट्रीटन, लिंड्झी हॉल, रुपर्ट बूनी, जॉर्ज लॅबर्ट, इमॅन्युएल फॉक्स सारके चित्रकार; सर बॅरट्रॅम माकेनल, लिंडन डॅड्सवेल, डब्ल्यू. लेस्ली बोल्स, एडमंड ब्लॅकेट सारके शिल्पकार हांगा जावन गेले. तेभायर रॉय ग्रावंडस्, रॉबर्ट हॅडॉन सारके वास्तुशिल्पज्ञ आपले कलेक लागून अजरामर जाल्यात.

नाट्यकलेच्या मळार ऑस्ट्रेलियांत युरोपाभितर जे प्रमाणांत उदरगत जाली, तितली जावंक पावलीना आनी सिनेमाच्या मळाराय हीच परिस्थिती आसा. संगीताच्या मळार मात हांगा बरीच उदरगत जाल्या. हांगाच्या गावप्यांनी आनी संगीतकारांनी जगभर नामना मेळयल्या.

टेनिस, क्रिकेट, पेंवप ह्या खेळांक हांगा चड म्हत्व आसा. मोटारींच्यो सर्ती, घोड्यांच्यो सर्ती आनी जगाच्या खेळांसर्तींभितर आस्पाव जाल्ले हेर सगळे खेळ हांगाच्या लोकांनी आपणायल्यात. ऑलिंपिक सारक्या खेळांसर्तींनी ऑस्ट्रेलियान आपलो पावंडो दाखोवन दिला. रॉड लेव्हर, ॲशली कूपर, पॅट कॅश आनी अशे कितलेशेच नामनेचे टेनिस खेळगडे ह्या देशांत तयार जाले. डॉन ब्रॅडमनसारको म्हान क्रिकेट खेळगडो ह्याच देशांत जालो. तेभायर संवसारीक विक्रम करपी डेनिस लिली, चॅपेल भाव, ॲलन बॉर्डर ह्या सारके कितलेशेच क्रिकेट खेळगडे ऑस्ट्रेलियान

जगाक दिल्यात.

**शिक्षण:** भुगोलीक परिस्थितीचो परिणाम शिक्षणाचेर कसो जाता हाची बरी देख ऑस्ट्रेलियाकडल्यान शिकूंक मेळटा. स व्हड शारां, हेर ल्हान व्हड गांवां, फांफडून गेल्ली लोकवस्ती, वयर सकयल आशिल्ली भूंय, अशे परिस्थितींत इंग्लंडांतल्यान हाडिल्ले शिक्षणपध्दतीक हांगा एक नवीच दिका मेळ्ळ्या.

फकत शंबर वर्सांभितर ह्या शिक्षणाची वाड जाल्या. १८६६ सावन ताका संघटित रुप आयलें. १८७२ सावन दरेक राज्यान राज्यशासित शिक्षणपध्दतीची थापणूक केली. सरकारी फुडारपणाखाल आनी सरकारी खर्चान फुकट, सक्तीचें आनी धर्मनिरपेक्ष शिक्षण हांगा सुरू जालें.

म्हायती आनी आंकडेवारी उजवाडाक हाडप, संशोधनाक पुरस्कार दिवप, आदिवासींचें शिक्षण आनी खासा शिक्षणाक अर्थीक पालव दिवप, इतलेंच काम केंद्रशासन करता. राज्यांतली शिक्षणवेवस्था त्या त्या राज्याचो शिक्षणमंत्री पळयता. साक्षरतेचें प्रमाण ९९% वयर आसा.

शिक्षण दिवपाची मुखेल जापसालदारकी जरी सरकाराची आसली, तरी खाजगी संस्थांचोय म्हत्वाचो वांटो आसा. सादारणपणान ७५% भुरगीं खाजगी शाळांनी शिकतात. ह्या खाजगी शाळांक सरकारी अनुदान मेळना. दानाचेर ह्यो संस्था चलतात. ७५% ते ८०% विद्यार्थी रोमन कॅथलिक पंथाच्या शाळांतल्यान शिक्षण घेतात. उरिल्ले हेर पंथांच्या आनी स्वतंत्र शाळांतल्यान शिकतात. शिक्षणाचो पांवडो बरोच ऊंच आसा.

शिक्षणाच्या मळार दरेक राज्याक स्वतंत्र अधिकार आशिल्ल्या कारणान, शिक्षणाची रचणूक, फी पध्दत, अभ्यासक्रम ह्या गजालींचेर स्वतंत्र धोरण आसता. सक्तीचें फुकट शिक्षण सव्या वर्सा सुरू जावन चवदा-पंदरा वा सोळा वर्सांचेर सोंपता. मुळावें आनी माध्यमिक धरून बारा वर्सांचें शिक्षण सोंपल्याउपरांत विश्वविद्यालयांत वचूंक मेळटा. बारा वर्सांची ही रचणूक कांय जाग्यांचेर ६+६ जाल्यार कांय कडेन ८+४ अशी आसा. मुळाव्या शिक्षणाउपरांत बौध्दिक, तांत्रिक नाजाल्यार शेतकी विशयांसारकील्या उंचेल्या महाविद्यालयांनी वचूंक मेळटा.

**भाशा आनी साहित्य:** बरोवपाची आनी उलोवपाची भाशा इंग्लीश आसा. तरीपूण ऑस्ट्रेलियांतल्यो ज्यो आदिवासींच्यो भाशा आसात, तांकां ऑस्ट्रेलियन भाशा म्हूण वळखतात. हांचीय संख्या तशी बरीच आसा. राश्ट्रीय थराचेर आनी संवसारीक साहित्यांत नामना मेळिल्लें साहित्य ह्या दोनूय नदरांतल्यान हांगाच्या साहित्याची बरीच उदरगत जाल्या. गद्य बरोवपांत हेन्री हँडेल रिचर्डसन (१८७०-१९४६) खिस्तीना स्टीड, कॅथरिन प्रिचर्ड आनी पॅट्रीक व्हायट हांचीं नांवां बरींच गाजल्यांत. काव्यांच्या मळार क्रिस्तोफर बेनन (१८७०-१९३२) जेम्स मॅकॉली आनी ज्यूडिथ रायट हांणी नामना मेळयल्या. पॅट्रीक व्हायट हाका ताच्या साहित्याक लागून १९७३ वर्सा नोबेल इनाम फाव जालें. एदो व्हडलो मान मेळोवपी हो पयलोच ऑस्ट्रेलियन साहित्यीक.

**म्हत्वाचीं थळां:** ऑस्ट्रेलियांतले हवाई येरादारीक लागून थंय पर्यटनाची उदरगत जायत चल्ल्या. सिडनी, ग्रेट बॅरियर रिफ, ब्लू मावंटन्स हांगा पर्यटक चड येतात. कॅनबरा हें राजधानीचें शार. हांगाचें प्राणिसंग्रहालय नामनेचें आसा. ब्रिस्बेन, पर्थ, मेलबॉर्न हीं उद्देगीक शारां थंयच्या खेळामळांक लागून नामनेक पावल्यांत. मेलबॉर्न हांगा १९५६ त ऑलिंपिक सर्ती जाल्यो. तेभायर ॲडिलेड हेंय शार खेळा मळाक लागून आनी थंय जावपी कला मेळाक लागून नामनेक पावलां.

- कों. वि. सं. मं.

**इंग्लंड:** पळेयात ग्रेट ब्रिटन.

**इंग्लीश भास:** इंग्लीश (इंग्लेज, आंग्ल) भास. ही मूळ इंग्लंडांतल्या लोकांची भास आसून, आयज ती ग्रेट ब्रिटन, आयर्लंड, युनायटेड स्टेट्स ऑफ अमेरिका, वेस्ट इंडीज जुंवे, कॅनडा, दक्षिण आफ्रिका, ऑस्ट्रेलिया, आनी न्यूझीलंड ह्या देशांतल्या लोकांची मुखेल भास जावन आसा. भारत, पाकिस्तान, बांगला देश, ब्रह्मदेश, श्रीलंका, आग्नेय आशियांतले जायते देश, आफ्रिका खंडांतले चडशे देश आनी संवसारांतलीं ल्हान-व्हड राश्ट्रां, वेपार-धंदो, उंचेलें शिक्षण तशेंच आंतरराश्ट्रीय संपर्काखातीर माध्यम म्हूण ही भास वापरतात. भारतीय गणराज्याच्या राजकारभाराची ती एक भास आसून भारतांतल्या दोन राज्यांची ती राजभास जावन आसा. संवसारीक भास म्हूण आयज, खंयचेय भाशेपरस इंग्लीश भाशेक चड म्हत्व आसा.

इंग्लीश भास पांचव्या आनी सव्या शतमानांत, उत्तर युरोपांतल्यान इंग्लंडांत आयिल्ल्या इंडो-युरोपीय भाशाकुळांतल्या जर्मनीक गटाच्या आक्रमक पंगडांनी आपल्यावांगडा हाडली. ताच्या आदीं ग्रेट ब्रिटनांत केल्टिक पंगडाच्यो भासो उलयताले. काळांतरान त्यो नश्ट जाल्यो. हालीं ह्या कांय भासांचें पुनरुज्जीवन जायत आसा.

सव्या शतमानासावन इकराव्या शतमानामेरेनच्या काळाक ॲंग्लो-सॅक्सन वा पूर्विल्लो इंग्लीश काळ म्हण्टात. इ.स. १०६६ त फ्रांसाच्या नॉर्मन लोकांनी इंग्लंडाचेर आपलो शेक चलोवन फ्रेंच आनी लॅटीन भासांचें व्हडपण इंग्लिशीचेर बसयलें. पंदराव्या शतमानामेरेनचो काळ, हो मध्य काळ तर सोळावें शतमान ते आयजमेरेनचो काळ हो आर्विल्ल्या इंग्लिशीचो काळ मानतात. एकुणिसाव्या शतमानाउपरांत इंग्लीश भाशेचे उदरगतीचें नवें युग सुरू जालें अशें मानतात.

इंग्लीश भाशेच्या सगळ्या काळखंडांत इंग्लिशीची ध्वनिपध्दत, खास करून स्वर व्हड प्रमाणांत बदल्ले. पूण इंग्लीश भाशेंतली बरपावळ, सोळाव्या शतमानांत आसली थंयच उरली. हाका लागून इंग्लिशींतले उच्चार आनी बरपावळ हातूंत व्हड अंतर नदरेक येता. लॅटीन तशेंच खिस्ती धर्माच्या प्रभावाखाला, इंग्लीश भाशेचें बरप सव्या शतमानासावन रोमन लिपींत जायत आयलां. शब्दसंपत्ती, व्याकरण, नवनिर्मणीक्षमता ह्या गजालींनी इंग्लीश भास फुडारिल्ली. अठराव्या शतमानाउपरांत ब्रिटीश सत्तेखाला आशिल्ल्या संवसारभरच्या वसाहतींक लागून आनी विसाव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत अमेरिकेच्या संवसारभर वाडिल्ल्या प्रभावाक लागून इंग्लीशीक खूब म्हत्व मेळ्ळां.

आयज विसाव्या शतमानाच्या शेवटाक, इंग्लिशींत जायत्यो थळाव्यो पोटभासो दिसून येतात. ब्रिटनांत स्कॉटिश, मध्य प्रांतीय, उदेंत आनी दक्षिण बोली भासांचे भेद स्पश्ट दिसतात. तेभायर अमेरिकेंतय इंग्लीश भाशेंत थळावे भेद आसात. कॅनडा, ऑस्ट्रेलिया, दक्षिण आफ्रिका, भारत आनी ब्रिटिशांच्यो हेर वसाहती सारक्या वेगवेगळ्या देशांतल्या इंग्लीश बोलींचीं ध्वनी उतरां, रुपविकार, व्याकरण, वाक्यरचणूक, हेल ह्या सगळ्या गजालींनी मोटो भेद आसा. संवसारांतल्या जायत्या भागांत इंग्लिशीकडेन त्या त्या वाठारांतल्या भासांचो संयोग घडून जायत्यो मिश्रभासो (Pidgin) आनी संयुक्त भास (creole) निर्माण जाल्यात.

इंग्लिशींत अि, अी, अे, ॲ, आ, अ ( ), अ (दीर्घ), अ (Λ), अु अू, ऑ ऑ (दीर्घ) हे बारा स्वर; अिअु, अअु, आअु, अेअि, आअि, ऑअि, अिअ, अेअ आनी अुअ हे णव जोडस्वर; प, ब, म, ट, ड, न (दंतमूलीय); च, ज (तालव्य); क, ग, ङ, फ, व्ह, थ, ध, स, झ, श, झ्य, ह (घर्षक) आनी य, र, ल, व हीं वट्ट चोविस व्यंजनां आसात. इंग्लिशींत स्वरांचें दीर्घत्व म्हत्वाचें आसून, घर्षकां तिचें खाशेलपण जावन आसा. उतरांचेर दिल्ले आघात हें इंग्लीश उच्चाराचें म्हत्वाचें लक्षण मानतात. आघातलय आनी वट्ट वाक्यांवेलो हेल हांकांलागून इंग्लिशीच्या उच्चाराचें खाशेलपण नदरेक येता.

इंडो-युरोपीय भाशाकुळांत कोंकणी वा मराठी सारक्या भासांची जायतीं खाशेलपणां इंग्लिशींत आसलीं तरीकूय रुपविकाराच्या मळार इंग्लीश विकारमुक्त जायत आयल्या. नामांचे लिंगभेद, विभक्ती, विशेषणांचे विकार आनी हेर विकार इंग्लिशींत ना जायत चल्ल्यात. हे विकार फकत सर्वनाम आनी वचनांभितर तिगून उरल्यात. नामांची उपपदां, समासिक शब्दसंयोग मूळ रुपां आदीं आनी उपरांत पूर्वपदां, उपपदां जोडून केल्ली जायत्या प्रकारांची शब्दनिर्मणी, समृध्द उपसर्ग,

भूत आनी वर्तमान हे दोन काळ, कर्ता+क्रियापद+कर्म असो वाक्यांतलो सादारणपणान शब्दक्रम हीं इंग्लीश भाशेच्या व्याकरणाचीं खास आंगां.

इंग्लीश भाशेन हेर भासांकडल्यान व्हड प्रमाणांत उतरावळ उश्णी घेतल्या. स्कँडिनेवियन, डच, लॅटीन, ग्रीक, फ्रेंच, इटालियन, स्पॅनिश, जर्मन, भारतीय अशा भासांमदलीं शेंकड्यांनी उतरां हे भाशेंत घोळटात. ताका लागून विंगडविंगड प्रकारांचो आशय परगटावपाखातीर इंग्लीश भाशेची उतरावळ गिरेस्त जाल्या.

- प्रा. भालचंद्र नेमाडे

संदर्भः 1. Baugh, Albert C., A History of the English Language; 2. Jesperson, Otto, Growth and Structure of the English Language; 3. Quirk, Pandolph et al. A Grammar of Contemporary English. London: Longman 1972; 4. Smith, Logan Pearsall, The English Language. London: O.U.P. 1966; 5. The Oxford English Dictionary. Vols.

**इंग्लीश साहित्यः** इसवी सनाच्या सव्या शतमानासावन आयजमेरेन इंग्लीश साहित्याची परंपरा, विंगडविंगड काळखंडांत थांबनासतना आपली उदरगत घडयत रावल्या. इंग्लंडांतले लेखकच न्हय तर स्कॉटलंड, वेल्स आनी आयर्लंड ह्या प्रांतांमदल्या लेखकांचें साहित्यय, इंग्लीश साहित्याचो अविभाज्य भाग जावन आसा. एकुणिसाव्या शतमानाउपरांत अमेरिकन, ऑस्ट्रेलियन आनी कॅनेडियन ह्यो भासो तातूंतल्यान वेगवेगळी राश्ट्रीय अस्मिताय परगटावपाक लागिल्ल्यान, त्या तीनूय भासांक स्वतंत्र फांटे मानतात.

**पूर्विल्लें इंग्लीश साहित्य (इ. स. १०६६ मेरेन)**: इंग्लीश भाशेंतलें सगळ्यांत पोरनें वा पूर्विल्लें साहित्य इसवी सनाच्या पांचव्या शतमानांत, इंग्लंडांत जर्मानीक पंगडाचे भाशेंत मौखिक रुपांत आनी उपरांतच्या लिखीत स्वरुपांत मेळटा. ह्या साहित्याक 'ओल्ड इंग्लीश' वा 'अँग्लो-सॅक्सन' ह्या नांवांनी वळखतात. मूळ इंग्लिशीचो स्वभाव आनी संवेदनशीलपण अँग्लो-सॅक्सन. पूण फ्रेंच, लॅटीन आनी हेर भासांच्या चेपणाखाला तिचो नाश जायत चलिल्लो दिसता. वयली गजाल खरी आसली तरी तीच इंग्लीश साहित्याचे बुन्यादीची प्रेरणाशक्त जावन आसा. केल्टिक वंशाच्या लोकांचें साहित्य गेलिक, स्कॉटिश, वेल्श, कॉर्नीश आनी आयरीश ह्या परिस्थितीक तोंड दिवन तिगून उरिल्ल्या भासांचे लोकपरंपरेंत दिसता. हें साहित्य अँग्लो-सॅक्सन साहित्याच्या आदींचें जावन आसा. पूर्विल्ल्या इंग्लीश साहित्याचे पयले गेय अवशेश सव्या, सातव्या शतमानाआदीं अँग्लो-सॅक्सन लोकांनी भायल्यान इंग्लंडांत हाडिल्ले मेळटात. हातूंत 'बेअवुल्फ' हें सुमार बत्तीसशें वळींचें अपूर्ण स्वरुपांतलें म्हत्वाचें आर्ष महाकाव्य आस्पावता. ह्या महाकाव्याचें कांय शतमानां भाटांवरवीं गावप जातालें. हाचो मुखेल नायक 'बेअवुल्फ' हो स्वीडनांतल्या राजाचो पुतणयो. तो एका नरभक्षक सर्पासुराचो आनी ताच्या दुश्ट आवयचो, आपल्या बळग्यान नाश करता. पूण हातूंत ताकाय मरण येता. अँग्लोसँक्सन पद्यरचणूक निर्यमक, प्रासयुक्त आनी वळींत कितलींय उतरां आसलीं तरी चडकरून चार आघात सांबाळपी आसा. कॅडमन (७ वें शतमान). किनीवुल्फ (९ वें शतमान) ह्या दोन म्हत्वाच्या कवींची रचना आनी सॅक्सनांचो राजा आल्फ्रेड (९ वें शतमान) हाणें दिल्ले उर्बेन बरयिल्लें गद्यवाङ्मय ही ह्या युगांत पडिल्ली मोलाची भर. बीड (६७३-७३५) हो व्हड पंडितूय ह्याच काळांत जावन गेलो. ताचें इतिहासीक म्हत्वाचें टिपणपुस्तक 'दि अँग्लोसॅक्सन क्रॉनिकल' खूब गाजलां.

**मध्यकाळांतलें इंग्लीश साहित्यः** (१०६६-१५१६) इ.स. १०६६ त फ्रांसांतल्या नॉर्मन लोकांनी इंग्लंडाक हरोवन सुमार पांचशीं वर्सां फ्रेंच भास आनी संस्कृतायेचो प्रभाव इंग्लीश संस्कृतायेचेर दवरलो. धर्मीक वाठारांत आनी शिक्षणीक मळार लॅटीन भाशेन आपलो शेक चलयलो, जाल्यार सरकारी पांवड्यार, दरबारांत आनी साहित्यीक मळार फ्रेंच भाशेन आपलें व्हडपण गाजयलें. हाका लागून इंग्लिशीचे संरचनेंत भायर भितर बदल जावन फ्रेंच आनी लॅटीन उतरावळ इंग्लिशींत आस्पावली. ह्या कारणांक लागून ही भास खूब गिरेस्त जाल्या. भक्तिपर धर्मीक काव्यां, रुपककाव्यां, रोमान्स, कथाकाव्य आनी हेर साहित्यप्रकारांत मध्यकाळांतले इंग्लिशीचें वैभव दिसता. ह्या काळखंडांत विल्यम लँगलंडचे पीअर्स प्लाउमन हें आध्यात्मिक प्रवृत्तीचें काव्य, जॉन विक्लिफ हाणें सोंपे इंग्लिशींत केल्लो बायबलाचो अणकार, 'सर गावेइन ॲण्ड द ग्रीन नाईट', ही सरदारी धाडस आनी मोग हांची रोमान्सकथा, सर टॉमस मेलरीचें मॉर्ट ड आर्थर हातूंतली नामनेची रोमान्सकथा, ह्यो म्हत्वाच्यो साहित्यकृती आस्पावतात. जेफरी चॉसर (१३४०-१४००) ह्या दरबारी कवीचे कँटरबरी टेल्स (अदमासान १३७८ उपरांत) हें व्हड कथाकाव्य, इंग्लिशींतली पयली व्हड काव्यकृती अशें मानतात. हातूंतल्यो चोवीस कथा यात्रेक वचपी विंगडविंगड पात्रांच्या तोंडांतल्यान वदोवन चॉसरान जायत्या विशयांक स्पर्श केला. फ्रेंच आनी लॅटीन भासांचो प्रभाव इंग्लीश भाशेन पुरायपणान पचयिल्ल्याचें ताणें दाखोवन दिलां.

पूर्विल्ल्या इंग्लीश काळासावन इंग्लंडांत धर्मीक विधींतल्यान नाटकाची निर्मणी पुराय स्वरुपांत नासली तरी सवकासायेन सुरू जाल्ली. ती पंदराव्या शतमानांत निती नाटकां आनी सोळाव्या शतमानांत उपरोधप्रधान लघुनाटकां अशा स्वरुपांत बदलत गेली. देखून १५८० उपरांत इंग्लीश रंगमाचयेन अकस्मात अप्रूप नाटकाची निर्मणी केल्ल्याचें नदरेक येता.

**प्रबोधन काळ (१५१६-१६६०)**: पुराय युरोपांत पातळिल्लें नवें प्रवृत्तीवादी तत्त्वगिन्यान पंदराव्या शतमानाच्या शेवटाक इंग्लंडांत पावलें. उत्स्फूत येवपी काव्यमयता आनी कल्पनेचें रम्यपण हांकां उठाव दिवपी साहित्य अभिजात ग्रीक आनी रोमन साहित्यवृत्तीच्या शेकातळा घडपाक लागलें. व्यक्तिवादाचो उदय जावन शिक्षण, वेपार, नाविक दळाची तांक हातूंत इंग्लंडचे लोक युरोपांत सगळ्यांत व्हड थारले. खास करून एलिझाबेथ राणयेच्या उंचेल्या संस्कृतीक वातावरणाचो त्या काळांतल्या साहित्यिकांचेर उत्तेजक परिणाम जालो. इ.स. १४८५ ते १६६० मेरेनच्या इंग्लंडाच्या प्रबोधनाच्या ह्या काळाक, साहित्याचें भांगरायुग मानतात. इ.स. १४७६ त विल्यम कॅक्स्टन हाणें पयलो छापखानो सुरू करून मुद्रण संस्कृतायेच्या अभिनव पर्वाक सुरवात केली. ग्रीक, लॅटीन इटालियन आनी फ्रेंच ह्या प्रगत भासांतले बरे बरे ग्रंथ इंग्लिशींत अणकारीत केले. साहित्याच्या सगळ्या प्रकारांतल्यान राश्ट्रीय अस्मितायेचो नेटान आविश्कार घडपाक लागलो. धर्मगुरु पोपाआड इंग्लीश राजांनी व्हड बंड केलें आनी राश्ट्रीय चर्चची थापणूक केली. ल्यूथरप्रणीत प्रॉटेस्टंट पंथाचे ते आदाराखांबे जाले. मानवतावादी लेखकांची व्हड परंपराच हांगासावन सुरू जाली. तातूंत टॉमस मोर हाणें बरयिल्लो यूटोपिया (१५१६) हो ग्रंथ अप्रूप आसून, तातूंत ताणें बुध्दीच्या कसाचेर आदर्श समाजपध्दतीचो थाव घेतला. ह्या लॅटीन ग्रंथाच्या पयल्या उजवाडावपासावन इंग्लंडांत प्रबोधनकाळ सुरू जाता.

प्रबोधनकाळांतली कविता सामकी उत्स्फूर्त, मानवतावादी, रोमँटिक आनी अलंकारिक आसा. सर फिलिप सिडनी आनी एडमंड स्पेन्सर हे दोन दरबारी कवी आपल्या प्लेटॉनिक मोगाच्या व्हडपणाखातीर तशेंच 'नैतिक पूर्णताय सौंदर्यशीलतेक पोशक आसता', ह्या तत्त्वगिन्यानाखातीर नामनेक पावले. स्पेन्सराचें 'द फेअरी क्वीन' (१५९०-१६०९) हें अर्दकुटें दीर्घकाव्य ह्या काळखंडांतली सगळ्यांत म्हत्वाची काव्यकृती जावन आसा. प्रबोधनकाळाच्या दुसऱ्या अर्दांत कविता चड गंभीर आनी विचारशील रुपकीय शैलीची आनी विरोधाभासाची आशिल्ली. जॉन डन, जॉर्ज हर्बर्ट, हेन्री व्हॉन, रिचर्ड क्रॅशॉ, अब्राहाम काउली, ॲण्ड्रू मार्व्हल आनी हेर स्वतंत्र प्रज्ञा आशिल्ले, धर्मीक प्रवृत्तीचे कवी गुणवत्तेचे नदरेन म्हत्वाचे मानतात. ह्याच काळांत बेन जॉन्सन, हेरिक आनी हेर 'कॅवॅलिअर' कवी चड तरल सोबीतकायेचे नदरेचे, तारतम्यवादी, अभिजाततावादी आनी रचनेभितरली निवळसाण म्हत्वाची समजुपी

आसले. महाकवी जॉन मिल्टन (१६०८-१६७४) हो तांचे प्रकृतीकडेन जुळपी ह्या काळांतलो म्हान साहित्यिक आसलो. खर विकृतीवांगडाच ग्रीक सौंदर्यतत्त्वाचो समर्थ आविश्कार घडोवपी तशेंच क्रिस्ती तत्त्वगिन्यानाच्या नैतिक आदर्शाक एकठांय गुंथपी प्रतिभा ताचेकडेन आसली. आदर्शवादी प्यूरिटन पंथाचो तो खर अभिमानी आसलो. बायबलांतल्या मनशाच्या अधःपतनाच्या कथासुत्राचेर ताणें इंग्लिशींत एक अमर महाकाव्य 'पॅरडाईज लॉस्ट' (१६५६-१६६५) रचलें. ह्या प्रदीर्घ अशा महाकाव्यांत काव्याचो आनी पांडित्याचो दुर्मिळ असो मेळ सादला.

ह्या काळांतलें गद्य विंगडविंगड शैलीप्रकारांचो प्रयोग करपी आनी जायत्या नव्या गद्यप्रकारांचें मुळावण घालपी थारलें. ह्या काळांतले लीली, लॉज, ग्रीन, बेकन, टॉमस, ब्राडन, नॅश, बर्टन, वॉल्टन, फुलर आनी हेर गद्यकार उल्लेख करपासारके आसात. पूण जेम्सच्या फाटबळान लॅन्सलट अॅण्ड्रूजच्या येजमानपणाखाल जाल्लो 'दि ऑथराइज्ड व्हर्जन' (१६११) हो बायबलाचो सोपो, सोबीत अणकार म्हळ्यार ह्या काळांतलो सगळ्यांत म्हान आविश्कार जावन आसा.

प्रबोधनकाळांतलीं नाटकां हीं ह्या काळांतल्या युगधर्माचो दिश्टावो दाखोवन अज्रंवर जाल्लीं दिसतात. ह्या काळांत जावन गेल्लो म्हान नाटककार आनी कवी विल्यम शेक्सपीयर (१५६४-१६१६) हाका संवसारीक साहित्यांतलो 'सर्वमान्य मानदंड' मानतात. टॉमस किड आनी क्रिस्तोफर मार्लो ह्या खांप्या नाटककारांनी १५८५ च्या अदमासाक इंग्लीश रंगमाचयेचेर क्रांती घडयली. जायत्यो ल्हान-व्हड सुखान्तिका आनी दुख्खान्तिका, इतिहासीक नाट्य प्रहसनां ह्या सगळ्यांची भरसण आशिल्ले जायते नाट्य प्रकार अस्तित्वांत आयले आनी तांची उदरगतय घडली. निमणें १६४२ त, खर धर्माभिमानी प्यूरिटन पार्लमेंटान नाटक-घरां बंद करपाचो हुकूम सोडीमेरेन इंग्लीश रंगमाचयेर जायत्या ऊंच पांवड्याच्या नाटकांची निर्मणी जाली. भिरांकूळ, शृंगारमय आनी करुणगंभीर नाटकाचे निर्माते पील, लॉज, ग्रीन, नॅश हेवुड हे जायत्या वेवसायीक नाटक मंडळाचो आदार आसले. पूण शेक्सपिअरचे लिखणेन मेळयल्लि सौंदर्यशीलताय, मनशाच्या मनाचें बारीकसाणीन केल्लें वाचप, अज्रंवर पात्रांची निर्मणी हीं सगळींच अजापां अशें समजतात. हॅम्लेट (१६०१), ऑथेल्लो (१६०४), किंग लिअर (१६०५), मॅकबेथ (१६०६) आनी अॅण्टनी अॅण्ड क्लिओपात्रा (१६०६) ह्यो ताच्यो दुख्खान्तिका, नाटकाच्या मळावेल्यो म्हान कलाकृती अशें मानतात. ताच्या वट्ट ३७ नाटकांतल्यो १७ सुखान्तिका लेगीत दादल्या-बायलांच्या संबंदाचो एक खासा आनंदाचो अणभव घडयतात. शेक्सपीअर हें संवसारांतलें एक व्हड अजाप.

प्रबोधन काळाच्या दुसऱ्या अर्दांत बेन जॉनसन (१५७३-१६३७) हो ऊंच अभिरुचीचो नाटककार आनी वेबस्टर, मसींजर, फोर्ड, शर्ली, बोउमंट, फ्लेचर आनी जायते नाटककार रंगमाचयेक गिरेस्त करताले. ह्या सगळ्यांनी संविधानकाची सोबीत रचणूक आनी तंत्रबध्द नाटक-निर्मणेकडेन चड लक्ष दिलें.

**रेस्टोरेशन काळ वा ड्रायडनाचें युग (१६६०-१७००)**: कवितेंतल्यान सोप्या सुटसुटीत गद्याकडेन, कल्पनाविलासाकडल्यान विचारशीलतेकडेन, रम्यतावादाकडल्यान अभिजातवादाकडेन उदरगत घडोवपी हो काळ, दुसरो चार्लस् राजा जाल्लो त्या काळासावन अठराव्या शतमानाचे सुरवातीमेरेनचे इंग्लीश साहित्यवृत्तींतले व्हड बदल दाखयता. समतोल अभिव्यक्तीक म्हत्व दिवपी, ओड, दशावयवी युग्मक (हिरॉइक कप्लेट), उपहास हे काव्यप्रकार ह्या काळांत वयर सरले. अठराव्या शतमानांत ह्या काव्यप्रकाराक आनीकय रंग भरलो. जॉन ड्रायडन (१६३१-१७००) हाणें ह्या काळांत सगळ्या तरांच्या साहित्यप्रकारांत म्हत्वाची निर्मणी केल्या. ह्या काळांतलो हो एकलो एकसुरो व्हड कवी आनी युगकर्तो लेखक. हेर नाटककार, कवी आनी लेखक चड म्हत्वाचे नात. ड्रायडनान समीक्षेक नवें अभिजातवादी रुप दिलें. आपल्या ऊंच अभिरुचीवरवीं आनी समाजीक जाणविकायेक म्हत्व दिवन, ड्रायडनान पुराय इंग्लीश साहित्याक नवी दिका दिवपाचो वावर केलो. कठोर आत्मनिरीक्षण, कोटीप्रकाराचेर आशिल्लो शेक, हे ताच्या व्यक्तिमत्वाचे म्हत्वाचे गूण. ह्या काळांत कॉंग्रीव आनी ऑटवे हे नाटककार, प्यूरिटन सवळेपणाचें विडंबन करपी कवी सॅम्युअल बटलर, दिसपटीकार सॅम्युअल पीप्स, कादंबरीसारकें वर्णनपर गद्य बरोवपी धर्मीक वृत्तीचो लेखक जॉन बनियन हांचो वावर उल्लेख करपासारको आसा. लॉक, ह्यूम, हॉब्स हे विवेकनितीक म्हत्व दिवपी तत्त्वज्ञ ह्याच काळांत जाले. इंग्लंडाचे राश्ट्रीय जीणेंत वैज्ञानिक क्रांती घडोवन हाडपी 'रॉयल सोसायटी ऑफ लंडन' हे संस्थेची थापणूक इ.स. १६६२ त जाली. हे संस्थेच्या यत्नांक लागून इंग्लीश साहित्य सोपें, सुटसुटीत, सुगम आनी अलंकरण विरयत जायत गेलें.

**नव अभिजाततावाद (१७००-१७९८)**: पुराय अठरावें शतमान दोन गजालींखातीर नांवाजिल्लें आसा. एक, इंग्लीश साहित्यांतले म्हत्वाचे गद्य निर्मणेखातीर आनी दुसरें, पूर्विल्ल्या रोमन साम्राज्यांतल्या सम्राट ऑगस्टसच्या काळांतल्या वाङ्मयाचें (लॅटीन वाङ्मयाचें) भांगरायुग आदर्श मानून तेवरी कलेचे कस मानपी साहित्यिकांखातीर. ह्या काळांत पयलीं, अलेक्झांडर पोप हाचें युग (१७००-१७४४) आनी उपरांत डॉ. जॉनसनाचें युग (१७४४-१७८४) हीं दोन म्हत्वाचीं युगां आयलीं. वाडटी बुध्दिवादी प्रवृत्ती, उपहास, उपरोध आनी विडंबन हांचो प्रभाव आशिल्लें गद्य आनी पद्य, शब्दयेक्जणेखातीर वापरिल्ली बुद्द, भाशेची निवळसाण आनी पद्यापरस गद्याचेर दिल्लो नेट हीं ह्या काळांतल्या साहित्याचीं मुखेल लक्षणां.

रोसाळ, सोपी, समतोल सादपी, नियंत्रित अशी परिपक्व गद्यशैली अठराव्या शतमानांत इंग्लीश भाशेत फुडें आयली. ताकालागून गद्य साहित्यप्रकार सोपे आनी परिणामकारक जावपाक लागले. कादंबरी सारको साहित्यप्रकारय चलणुकेंत आयलो. डॅनियल डिफो हाची 'रॉबिन्सन क्रूसो' (१७१९), जोनाथन स्विफ्ट हाची 'गलिव्हर्स ट्रॅवल्स' (१७२६), रिचर्डसन हाची 'पॅमेला' (१७४०) आनी फिल्डींग हाची 'टॉम जोन्स' (१७४९) ह्यो पयल्यो वयल्यो कादंबऱ्यो जावन आसात. स्मॉलेट, स्टर्न, वॉलपोल, गोल्डस्मिथ, जॉनसन हांणीय कादंबरीचे उदरगतीक आपलो हातभार लायला.

अलेक्झांडर पोप (१६८८-१७४४) हो ह्या शतमानांतलो सगळ्यांत व्हड कवी. दशावयवी युग्मक सगळ्यांत बरे तरेन वाडोवपाचें श्रेय ताका फाव जाता. 'एसे ऑन मॅन', 'एसे ऑन क्रिटिसिझम' हीं तत्त्वीक दीर्घकाव्यां, होमर हाच्या 'इलियड' चो अणकार, 'द रेप ऑफ द लॉक' आनी 'द डनसिअड' हीं विडंबनपर महाकाव्यां हे ताच्या व्हड साहित्य निर्मणेंतले नामनेचे ग्रंथ आसात. समाजीक प्रस्न खबरांपत्रांतल्यान मांडपी म्हूण नामना जोडिल्ले अॅडिसन आनी स्टील हे दोन निबंदलेखक पोपच्या काळांतले. नेमाळ्यांची सुरवात आनी वाड ह्याच काळांत जाली. शारांत नव्यान उदयाक आयिल्लो मध्यमवर्ग राजकारणांत बळिश्ट थारिल्ल्यान तशेंच साहित्य वाचन करपी वर्गय होच आशिल्ल्यान ह्या वर्गाच्या जाणविकायांचें पडबिंब इंग्लीश साहित्यांतल्यान चडांत चड उक्तें जावंक लागलें.

डॉ. सॅम्युएल जॉनसन (१७०९-१७८४) हो बुदवंत उलोवपी, विक्षिप्त; पूण सडेतोड आनी सरळ मतांक लागून त्या काळावेल्या साहित्यिकांमदीं आदराचो जागो फाव जाल्लो एक म्हान आनी हुशार साहित्यीक. जेम्स बॉस्वेलान 'लाइफ ऑफ सॅम्युअल जॉनसन' (१७९१) नांवाचें ताचें चरित्र बरयलां. हे दोगूय इंग्लिशींत अज्रंवर थारल्यात. जॉन्सनाचें बौध्दिक रंगडेपण, कोटी करप, नैतिक ताठरपण, कसलीय घडणूक आनी साहित्यकृती स्वतंत्र नदरेन पळोवपाची पध्दत, समीक्षेचे नवे चरित्रनिश्ठ कस लावपाची धाटणी हे आनी हेर कांय गुण बॉस्वेलान कलात्मक नदरेन पळयल्यात आनी चरित्रलेखनाची आगळी वेगळी देख घालून दिल्या. जॉनसन हो अभिजाततवादाचो खर समर्थक आसलो. पूण

ताचें अलंकरण प्रेम, विचित्र मतप्रणाली आनी असादारण जीवन पध्दतीची आस ह्या गुणांक लागून तो इंग्लिशींतल्या अभिजाततावादाचो न्हास दाखयता. काव्य, कादंबरी, निबंद, संशोधन आनी हेर साहित्याच्या मळार ताणें मोलाचो वावर केल्लो आसलो, तरीय ताका समीक्षक, युगप्रवर्तक, चरित्रकार आनी इंग्लिश भाशेचो पयलो शब्दकोश रचपी म्हूण चड वळखतात. गोल्डस्मिथ हो कवी आनी गद्यकार, शेरिडन हो नाटककार, बॉस्वेल हो चरित्रकार, गॅरिक नांवाचो नट ताचे वांगडा साहित्यिक भासाभास करून काव्यशास्त्रविनोदांत वेळार सारताले. हें 'जॉनसनाचें सर्कल' म्हूण नामनेक पावलां.

**रोमँटीक संप्रदाय (१७९८-१८३७)**: अठराव्या शतमानांत जायत्या कवींनी आनी गद्यलेखकांनी चड उण्या प्रमाणांत रोमँटीक प्रवृत्तीची बरपावळ केल्ली दिसून येता. जेम्स टॉमसन, विल्यम कूपर, टॉमस ग्रे, विल्यम ब्लेक आनी रॉबर्ट बर्न्स ह्या स्वच्छंदतावादी कवींनी आनी गिबन, बर्क, गोल्डस्मिथ, वॉलपोल, गॉडविन, ॲन रॅडक्लिफ ह्या गद्यलेखकांनी भुतकाळाचें पुनरुज्जीवन, मध्ययुगांतली आशयसुत्रां, गांवगिरे विशय, सैम आनी सुकणी-सावदां हांची तोखणाय करपी आत्मलक्षी प्रकाराचें साहित्य बरयलें. रोमँटीक प्रवृत्तीच्या साहित्याची बुन्याद अशे तरेन नकळटनाच पडली. पूण १७९८ त विलीयम वर्ड्सवर्थ (१७७०-१८५०) आनी एस. टी. कॉलरिज (१७७२-१८३४) ह्या दोगांय इश्टकवींनी 'लिरिकल बॅलडस' हो आपलो कवितांचो झेलो उजवाडायलो आनी ह्या झेल्याचे प्रस्तावनेंत तांणी अठराव्या शतमानांतल्या प्रस्थापित अभिजाततावादाआड बंडाचो उलो मारलो. भाशेचें आनी सादारण गांवगिऱ्या जिणेंतल्या जित्या जिव्या प्रसंगाचें नवेंपण हो तांच्या विद्रोहाचो मुखेल हेत आसलो. तरीकय रोमँटीक संप्रदायान हेर जायत्या गजालींनी अठराव्या शतमानांतल्या प्रस्थापित साहित्यिक सिध्दान्ताक पयसावन इंग्लीश भाशेची नवनिर्मणी क्षमता सिध्द केल्या. ह्या ३०-४० वर्सांतलें रोमँटीक साहित्य पुराय युरोपीय साहित्य परंपरेंत 'व्हड' मानतात.

फ्रेंच राज्यक्रांतीच्या तत्त्वगिन्यानाचो भोवमान, इंग्लंडांतल्या उद्येगीक क्रांतीचो धिक्कार, वाडट्या शारीकरणाची तिडक, सैमाच्या उदारपणाचो आदर, आविश्काराच्या मळार अठराव्या शतमानांतल्या अभिजाततावादाक खर विरोध, व्यक्तिवादी मुल्यांचो पुरस्कार, प्रतिभा, गिन्यान आनी भावनोत्कटता हांकां विवेकशीलतेपरस दिल्लें चड म्हत्व, अज्ञाताविशीं आंशिल्ली जबर ओड हीं रोमँटीकतेची कांय खाशेलपणां आसात. वर्ड्सवर्थ, कॉलरिज आनी विल्यम ब्लेक ह्या पयले पिळगेच्या कवींमदी हीं खाशेलपणां मर्यादीत स्वरुपांत आसलीं. लॉर्ड बायरन, पी. बी. शेली आनी जॉन कीट्स हे दुसरे पिळगेच्या रोमँटीक कवींमदीं हांचीं खाशेलपणां ऊंच पांवड्यार पाविल्लीं दिसतात. शेली आनी कीट्स ह्या कवींनी आपले ल्हान पिरायेंत लिरिकल शैलीची अप्रूप काव्यरचणूक करून काव्यनिर्मणीचे नवे आदर्श तयार केले. वॉल्टर स्कॉटाक इतिहासीक कादंबरीचो 'कर्तो' म्हूण संवसारीक साहित्यांत वळखतात. चार्लस लॅम्ब, विल्यम हॅझलिट, टॉमस ड क्विन्सी, ली हंट, लॅण्डर ह्या रोमँटीक गद्यलेखकांनी काव्यमय गद्याच्या विंगड विंगड प्रकारांत बरपावळ केल्या. ह्या चडशा जाणांनी पद्य नाटकांय रचलीं, पूण तीं रंगमाचयेक व्हडलीशीं उपेगी थारुंक नात. चडश्या सगळ्याच रोमँटीक कवी-गद्यकारांनी लक्ष वेधपी मुळाव्यो समीक्षा बरयल्यात. खास करून कॉलरिजान इंग्लीश साहित्य समीक्षेक कलेचे स्वायत्ततेची नवी दिका दाखयल्या. ताका लागून तो आर्विल्ले समीक्षेचो 'मूळपुरुस' थारला.

ह्याच काळखंडांत जेन ऑस्टिनान आपणाले शिटूक उपरोधशैलीक लागून आनी बायलांचे जिणेंतल्या सामान्य प्रसंगांच्या कथानकावरवीं साहित्यांत अज्रंवर थारिल्ल्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो. ऑस्टिन वृत्तीन रोमँटीक लेखकांचे पुराय तरेन आड म्हळ्यार अभिजाततावादी आसली.

**व्हिक्टोरिया राणयेचें युग (१८३७-१९०१)**: ब्रिटीश साम्राज्याचेर केन्नाच सूर्य अस्ताक वचना अशें ह्या काळखंडांत गर्वान म्हण्टाले. पूण ब्रिटनांत मात ह्या काळांत सगळेकडेन संघर्श, असंतोश आनी वैचारिक घुस्पागोंदळ चलतालो आनी ब्रिटीश सूर्याक गिराण लागिल्लें. व्हिक्टोरियन साहित्यांत सगळ्या समाजीक विशयांचें पडबिंब पडिल्लें दिसता. चार्लस् डार्विन, टी. एच्. हक्सले, हर्बर्ट स्पेन्सर, जॉन स्टुअर्ट मिल, कार्लाइल, न्यूमन, मॅथ्यू आर्नोल्ड, ऑस्कर वाइल्ड, रोझेट्टी, रस्किन, माल्थस, कार्ल मार्क्स अशा वेगवेगळ्या मळावेल्या म्हान विचारवंतांनी सगळ्या प्रस्थापित कल्पनांक धक्के दिले. राजकी, धर्मीक आनी समाजीक सुदारणांक लागून हो काळखंड गजबजिल्लो दिसता. लोकशाय, कामगारांचे हक्क, बायलांचो मतदानाचो हक्क, धर्म सुदारपाची गरज, ल्हान भुरग्यांची आनी गरीब लोकांची राखण करपी संसदेंतले जायते कायदे ह्या काळांत जाले. कामगार लोकांनी मोटें अराजक माजयलें आनी कितलीशींच शतमानां थीर उरिल्लीं ब्रिटीश समाजीक मूल्यां गडगडपाचीं चिन्नां दिसपाक लागलीं. पूण प्रस्थापित व्हिक्टोरियन लेखक मात आपणाचेर खोशी जावन वयलेवयर ह्या समाजीक न्हासाची चिंता करतना दिसतात. उदारमतवादा वांगडाच बुन्यादी सुदारणा तशेंच अमानवी उद्येगीकरण, अती सुखाची आस, खर दळदिरेपण हांच्या भोंवऱ्यांत व्हिक्टोरियन युगांतल्या आल्फ्रेड टेनिसन (१८०९-१८९२) ह्या युगप्रवर्तक कवीचें काव्य सांपडिल्लें दिसता. ताचें 'इन मेमोरिअम' हें दीर्घकाव्य अशा द्वंद्वात्मक विचारशीलतेंतल्यान जल्मलां. रोमँटीक संप्रदायाची कांय तासां टेनिसन आनी रॉबर्ट ब्राउनिंग (१८१२-१८८९) ह्या दुसऱ्या युगप्रवर्तक व्हिक्टोरियन कवींमदीय सांपडटात. टेनिसनाचें काव्य पलायनवादी, भावनाकुल, लोकाभिमुख जाल्यार ब्राउनिंगाचें काव्य प्रयत्नवादी, वास्तवाभिमुख आनी तत्त्वशील. ब्राउनिंगान नाट्यछटा हो नवो प्रकार काव्यांत चलणुकेंत हाडलो. तेभायर मॅथ्यू आर्नोल्ड, डी. जी. रोझेटी, विल्यम मॉरिस, स्विनबर्न हे कांय मुखेल व्हिक्टोरियन कवी जावन आसात. मॅकोले हो गद्य निबंदकार वाक्याचे खास शैलीखातीर नामनेक पावला. कॉर्लाइल, न्यूमन, पेटर, मॅथ्यू आर्नोल्ड हे नामनेचे विचारवंत समाजीक प्रस्न आनी समस्या आपल्या गद्यांतल्यान उक्ते करताले.

व्हिक्टोरियन काळांत कादंबरीचो आवांठ खूब वाडलो आनी तातूंत जायतीं विंगडपणां आयलीं. चार्लस् डिंकन्स (१८१२-१८७०) हो इंग्लंडाचो नामनेचो कादंबरीकार ह्याच काळांत जावन गेलो. तो खूब गरीब परिस्थितींतल्यान वयर सरिल्लो. 'डेव्हिड कॉपरफिल्ड', 'ब्लीक हाउस', 'ग्रेट एक्सपेक्टेशन्स' ह्यो ताच्यो कादंबऱ्यो स्वताच्या अणभवाचेर आदारल्यात. तशेंच तातूंत इंग्लंड देशाच्या दळीद्रीपणाचें जितें जिवें चित्रण केलां. थॅकरे हो दुसरो व्हड कादंबरीकार 'वॅनिटी फेअर', 'हेन्री एसमॉण्ड' आनी हेर कादंबऱ्यांखातीर तो नांवाजिल्लो. पात्राचे निर्मणेखातीर लागपी कुशळताय ताचेकडेन आशिल्ली. जॉर्ज इलियट, एमिली ब्रॉन्टे, शार्लट ब्रॉन्टे, एलिझबेथ गॅस्कल ह्यो बायल कादंबरीकारांच्यो रचणुकोय इतिहासीक म्हत्वाच्यो. ॲन्टनी ट्रॉलप, जॉर्ज मेरडिथ, टॉमस हार्डी, आर. एल. स्टिवन्सन आनी भारतांत जल्मल्लो कादंबरीकार-कवी रुडयार्ड किपलिंग हाणें इंग्लीश कादंबरी समृध्द करपाक मोलाचो वावर केलो.

ह्या काळांत 'नाटक' ह्या साहित्यप्रकाराक चड म्हत्व मेळूंक ना. ह्या शतमानाच्या शेवटाक जॉर्ज बर्नार्ड शॉ, ऑस्कर वाइल्ड आनी आयर्लंडांत सुरू जाल्ली जॉन सिंज आनी डब्ल्यू. बी. येट्स हांची नवी रंगमाची हातूंत विसाव्या शतमानांतल्या आर्विल्ल्या नाटकाच्या क्रांतीचें मूळ सांपडटा.

**आर्विल्लें युग (विसावें शतमान १९०१-१९७०)**: विसाव्या शतमानाच्या पयल्या वीस वर्सांत पोरन्या अर्द-रोमँटीक परंपरेंतले जॉर्जियन कवी एकेवटेन सैमीक कवनां रचताले. ह्याच वेळार विल्यम बटलर येट्स (१८६५-१९३९), टी. एस्. इलियट (१८८८-१९६५) आनी एझरा पाउंड (१८८५-१९७२) ह्या कवींनी पुराय तरेन नवे अभिव्यक्तीच्या तंत्रान कवितेचो रुपकार पुराय बदलून उडयलो. येट्स हाची 'द टावर' (१९२७), पाउंड हिची 'ह्यू सेल्विन मॉबरली' (१९२०)

आनी इलियट हाची 'द वेस्ट लॅण्ड' (१९२२) ह्या कवितांक लागून इंग्लिशींत आर्विल्लेपणाक नेट आयलो. फुडें ४०-४५ वर्सां, कलेच्या सगळ्या वाठारांत हांचो प्रभाव जाणवलो. कादंबरींत, नाटकांत आनी समीक्षेंत लेगीत आर्विल्लेपणाची सया आशिल्ली. आशयसुत्रां आनी मुल्यां व्यक्त जावपाक लागलीं. परंपरेन चलून आयिल्लीं सगळीं मुल्यां फाटीं पडलीं. साहित्यीक मळार जी नवी क्रांती घडली ताचें श्रेय कार्ल मार्क्स, फ्रॉइड, युंग हांकां तशेंच बदलत वचपी युगधर्माक फाव जाता. कादंबरीच्या मळार आर्नल्ड बेनेट, जॉन गॉल्सवर्दी, सॉमरसेट मॉम, एच्. जी. वेल्स आनी हक्सले हांणी मोलादीक वावर केलो. फॉस्टर, व्हर्जिनिया वूल्फ आनी जेम्स जॉइस हांणी क्रांतिकारक आशय आनी धाटणेच्यो कादंबऱ्यो रचल्यो. मानसशास्त्रीय आशयाचें विस्मीत करपी रुप आनीकय खरपणान व्यक्त जावपाक लागलें. प्रतिमा आनी प्रतिकां हांचो वापर, भाशेचो शिटुकसाणेन केल्लो उपेग, मुक्तछंद आनी वट्ट साहित्यिक कुरवांचो सदळपणान केल्लो वापर, लैंगिक आनी चिड्डिल्या मनीस स्वभावाचे अतिवास्तववादी, सपनाळ्या प्रतिमावरवीं घडयिल्ले विंगडविंगड आविश्कार (सूररिअलिझम), परंपरेआड जाणीवपूर्वक सूर काडप आनी स्वताचे स्वतंत्र धाटणेचो चडांत चड वापर करप हीं आर्विल्ल्या काळाच्या इंग्लीश साहित्याचीं खाशेलपणां जावन आसात. जेम्स जॉइस (१८८२-१९४१) हाची 'युलिसिस' (१९२२) ही संज्ञाप्रवाहतंत्रांतली कादंबरी भाशेच्या ऊंच प्रयोगशीलतेचो सगळ्यांत व्हड आर्विल्लो आविश्कार अशें मानतात.

नाटकाच्या मळार मोलादीक भर घालपी जायते नाटककार ह्या शतमानांत जाले. हाका लागून फाटलीं अडेज शतमानां थंड पडिल्ली इंग्लीश रंगमाची परतून तरतरली. जॉर्ज बर्नार्ड शॉ (१८५६-१९५०) हाच्या समाजीक बांधीलकीच्या खळबळजनक नाटकांवरवीं ह्या शतमानाची सुरवात जाली. कॉउअर्ड, जेम्स बॅरी, जॉन गॉल्सवर्दी आनी नोऊल पिनरो ह्या दुसऱ्या पांवड्याच्या नाटककारांकडल्यान नाटककला उदरगतीचीं सपणां चडलीं. आयरिश रंगमाची, ॲब्सर्ड नाटकां, अँग्री थिएटर आनी पद्य नाटकां, अशा विंगडविंगड प्रयोगिक चळवळींवरवीं ही रंगमाची फुलून आयली. सॅम्युअल बेकेट ह्या आयरिश- फ्रेंच 'ॲब्सर्ड' नाटककारालें 'वेटिंग फॉर गोडो' हें नाटक, ह्या शतमानांतलें असादारण, संवसारीक किर्तीचें नाटक मानतात.

गद्याच्या हेर प्रकारांमदीं चरित्रलेखन, निबंद, शास्त्रीय गद्य, रहस्यमय कादंबऱ्यो, खबरापत्रांतलें गद्य आनी तात्त्विक गद्य ह्या मळार जायत्या लेखकांनी नामना जोडल्या. तातूंत ब्रॅडली, रसेल, मूर, विटगेन्स्टीन, फ्रेझर, बेलॉक, चेस्टरटन, स्ट्रॅची हे मुखेल आसात. रिचर्ड्स, एम्पसन, ह्यूम, एफ्. आर. लिवीस आनी टी. एस्. इलियट हांणी समीक्षेचे नवे सिध्दान्त मांडले. विस्मयकारी साहित्यिकांमदीं कॉनन डॉइल, जेरोम के. जेरोम, पी. जी. वुडहाउस हांणी संवसारीक विक्रम केले.

आर्विल्ल्यावादाचो (आधुनिकतावाद) नेट चड उण्या प्रमाणांत १९७० मेरेन तिगून उरलो. खूब उसरां उजवाडाक आयिल्ल्या जी. एम्. हॉपकिन्स ह्या व्हिक्टोरियन कवीच्या कवितांतल्यान, तशेंच डिलन टॉमस, डब्ल्यू एच्. ऑडन, सी. डे. लुईस आनी रॉय फुलर आनी हेर कांय कवींच्या कवितांतल्यान आर्विल्ल्यावादाचो नेट उणो-उणो जायत गेलो. रॉबर्ट ब्रिजिझ, जॉन मेसफील्ड, पयल्या म्हाझुजांत सोंपिल्ले ऑडवन आनी ब्रूक स्टिवन स्पेन्डर आनी हेर मार्क्सिस्ट कवी, आर्विल्ल्यावादाच्या नेटांतय पारंपारिक रचणूक करपी डे ल मेअर, ग्रेव्हज हांणी आपणाली शैली सांबाळळी.

**आयचें इंग्लीश साहित्य**: आर्विल्ल्या काळाउपरांत आयिल्लो आयचो काळ इंग्लीश साहित्यांत व्हडलोसो म्हत्वाचो अशें मानीनात. कवितेंत चडांत चड सकयल्या मध्यम वर्गीयांचीं आशयसुत्रां मांडपी आनी बोली भाशेचो सोबीत उपेग करपी जायते कवी ह्या काळांत दिश्टी पडटात. टेड ह्यूज, फिलीप लार्कीन, गॅसकॉइन, बेटजमन, पॅटन, टॉमगन हे हातूंत मुखेल आसून ते आयजूय बरयतात.

कथा-कादंबरीच्या मळार जॉर्ज ऑर्वेल, साकी, इवलिन वॉ, ग्रॅहम ग्रीन, सी. पी. स्नो, इरिस मर्डाक, जॉइस कॅरी हांचो वावर म्हत्वाचो आनी अप्रूप आसलो तरी आयज इंग्लीशींत एकय म्हत्वाचो कादंबरीकार दिश्टी पडना. किंग्जली ॲमीस, जॉन वेन, अँगस विल्सन, लॉरेन्स डरेल आनी गोल्डिंग ह्या आयच्या कादंबरीकारांचें गंभीरपण नदर ओडून घेता. हालीं व्ही. एस्. नायपॉल आनी सालमान रशदी हे बिन-इंग्लीश साहित्यिकूय इंग्लंडांत खूब गाजल्यात. नाटकाच्या मळार ऑस्बॉर्न, पिंटर, आर्डेन, वेस्कर आनी शेपर्ड हे नाटककार आर्विल्ल्यावादाउपरांतची साहित्यिक शैली चलणुकेंत हाडटात.

- डॉ. भालचंद्र नेमाडे

(अमेरिकन इंग्लीश साहित्याखातीर पळेयातः अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां).

## इंजिनियर, एअर मार्शल अॅस्पी मेरवानः (जल्मः १५ डिसेंबर १९१२).

भारताचो आदलो हवाई दल प्रमुख. ताणें उंचेलें शिकप कराची हांगासल्ल्या दयाराम जेठमल सिंध महाविद्यालयांत घेतलें. ताणें विमान उड्डाणाचें प्रशिक्षण इंग्लंडांतल्या क्रॅनवेल आनी ब्रॅकनेल हांगासल्ल्या शाही विमानदलाच्या महाविद्यालयांत घेतलें. तेभायर लंडनच्या शाही संरक्षण महाविद्यालयाचो तो पदवीधर आसा.

इंग्लंडसावन हिंदुस्थानमेरेन एका म्हयन्यांत विमान-उड्डाण करपी पयलो भारतीय म्हूण ताका १९३० वर्सा आगाखान इनाम मेळ्ळें. १९३३ वर्सा वैमानिकी कामगिरीखातीर क्रॅनवेल हांगा ग्रोव्हूज इनाम दिलें. १९५८ मेरेन तो भारतीय हवाई दलाचो उपमुखेली आशिल्लो. पूण फुडें १९५९ वर्सा ताची एअर मार्शल म्हूण नेमणूक जाली. मे १९५८ ते नोव्हेंबर १९६० ह्या काळांत तो हिंदुस्थान एअरक्रॅफ्ट लिमिटेड हे संस्थेचो व्यवस्थापकीय संचालक आशिल्लो. डिसेंबर १९६० ते एप्रिल १९६४ मेरेन तो भारताचो प्रमुख आशिल्लो. १९६४ ते १९६८ ह्या काळांत तो इराणांतलो भारतीय राजदूत आशिल्लो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या वेळार बरो वावर केल्ल्या बद्दल ताका खासा सेवा पदक (डिस्टिंग्विश्ड फ्लाइंग क्रॉस) फाव जाल्लें. ह्या झुजांत हिंदी विमानदलाच्या ब्रह्मदेश आनी ताच्या लागसल्ल्या वाठारांतल्या विमान कारवायेंत तो आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## इंटक (इंडियन नॅशनल ट्रेड युनियन कॉंग्रेस-INTUC):

भारतांतली पयल्या क्रमांकाची मध्यवर्ती कामगार संघटना. ३ मे १९४७ दिसा इंटकाची थापणूक जाली. हे संघटनेचे थापणुकेफाटल्यान भारतीय राष्ट्रीय कॉंग्रेसीच्या खूबशा मानादीक फुडाऱ्यांचो तेंको आशिल्लो. अखिल भारतीय ट्रेड युनियन कॉंग्रेसीचेर दिसानदीस साम्यवादी फुडाऱ्यांचो चड प्रभाव पडटालो, हें पळोवन कॉंग्रेस कार्यकर्त्यांक, संघटनेंत रावन आपल्याक जाय तशें कामगारांचें हित सादप कठीण अशें दिसलें. देखून तांणी नवी कामगार संघटना स्थापपाचो निर्णय घेतलो. हे खातीर महात्मा गांधीच्या फुडारपणाखाला अहमदाबाद हांगा १९२० वर्सा स्थापन जाल्ल्या 'मजूर महाजन' हे संस्थेन तांकां आदार दिलो. ही संस्था अहमदाबाद शारांतल्या कापड गिरण्यांतल्या कामगारांच्यो अडचणी सोडोवप आनी तांच्यो न्याय्य मागण्यो तांकां मेळोवन दिवप असलो वावर करताली. मालक आनी कामगार हांचेमदीं भासाभास घडोवन मध्यस्तीवरवीं तांचेमदले वाद सोडोवप हो 'मजूर महाजन' संस्थेच्या वावराचो मुखेल हेत आशिल्लो. ह्याच हेताचेर इंटक संघटनेन आपल्या वावराची सुरवात केली.

इंटकाची ध्येयां सर्वोदयवादाच्या विचारसरणीन प्रभावित जाल्यांत आनी वर्गसहकार्याचेर तिचो विश्वास आसा. शासनाचे आनी संघटनेचे संबंद एकामेकांच्या हिताच्या तत्त्वांचेर आदारुन आसात. संपासारके उपाय आपणावपाचें कार्य ही संस्था चडशी करीना. निवारण करुंक येना

असो न्याय निर्णय दिवचेपरस इंटक संघटना मान्य आशिल्ल्या मध्यस्तीवरवीं मालक आनी कामगार हांचेमदले वाद सोडोवंक सोदता.

इंटक संघटनेक पुराय भारतभर तेंको मेळ्ळा. तशेंच देशांतल्या कामगार संघटनांची सगळ्यांत व्हड मध्यवर्ती संस्था म्हूण तिका नामनाय मेळ्ळ्या. सुरेशचंद्र बॅनर्जी हो संघटनेचो पयलो अध्यक्ष आशिल्लो. फुडें खंडूभाई, मायकेल जॉन, जगन्नाथ मेलकोटे, काशिनाथ पांडे, हरिहरनाथ शास्त्री, वसावडा आदींनी इंटकाचें अध्यक्षपद सांबाळ्ळां.

इंटक संघटनेकडेन जोडिल्ले कामगारसंघ सगळ्या देशभर आनी सगळ्या धंद्यांनी पातळिल्ले आसात. आसाम, अस्तंत बंगाल, गुजरात, बिहार आनी महाराष्ट्र ह्या राज्यांत हे संघटनेचो प्रभाव चड दिसून येता. कापड, येरादारी, खण आदी जायत्या उद्येगांतले कामगार हे संघटनेचे वांगडी आसात.

इंटक संघटनेचें मुखेल कार्यालय नवी दिल्ली हांगा आसून थंयच्यानच तिचें 'इंडियन वर्कर' हें सातोळें उजवाडाक येता. 'इंटरनॅशनल कॉन्फेडरेशन ऑफ फ्री ट्रेड युनियन्स' ह्या आंतरराश्ट्रीय पांवड्यावेल्या महासंघाकडेन इंटक जोडिल्लें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## इंटरनॅशनल काउन्सिल ऑफ सायंटिफिक युनियन्स (ICSU):

एक आंतरराश्ट्रीय संस्था. ही संस्था १९१९ वर्सा रोम शारांत सुरू केल्ली. हे संस्थेंत वेगवेगळ्या राश्ट्रांनी चालू आशिल्ल्या शास्त्रीय विशयांतले सैध्दांतिक (theoretical) आनी अनुप्रयुक्त (applied) संशोधन एकामेकांच्या आदारान घडोवन हाडपाचें काम जाता. ही संस्था सुरू जावचे आदीं इंटरनॅशनल रिसर्च काउन्सिल ही संस्था अशेच पध्दतीचो वावर करताली.

हे संस्थेचें सादारण काम पळोवंक एक सभा घडयल्ली आसा. हे सभेंत विंगड विंगड देशांतल्यो उंचेल्यो शिक्षण संस्था, संशोधन संस्था आनी राश्ट्रीय सरकार हांणी धाडिल्ले आठ सभासद आसतात. हेभायर आंतरराश्ट्रीय स्वरुपाचे चवदा शास्त्रीय संघटनांचे प्रतिनिधी आसतात. दर दोन वर्सांनी हे सभेची बसका भरता आनी हे बसकेंत सभेचें सादारण धोरण थारायतात. तशेंच हे सभेंत वेंचिल्लें २८ सभासदांचें एक वावुरपी मंडळ आसता. तातूंत चार मुखेल अधिकारी आसतात. राश्ट्राच्या प्रतिनिधींतले धा सभासद आनी शास्त्रीय मंडळाचे चवदा प्रतिनिधी आसतात. हातूंतली दुडवां समिती खर्चाचो अदमास काडटा आनी ताचेवेल्यान सभासदांचे वर्गणीची संख्या थारायतात.

हे संस्थेच्या व्हड व्हड प्रकल्पांचो दुडवां खर्च भागोवपाखातीर वेगळ्या निधीची येवजण आसा. ही येवजण १९५६ वर्सा सावन सुरू जाली. तेभायर आंतरराश्ट्रीय स्वरुपाच्यो शास्त्रीय संघटना हे संस्थेवांगडा सहकार्य करतात. हातूंत इंटरनॅशनल अॅस्ट्रॉनॉमिकल युनियन (IAU- ज्योतिषशास्त्रीय), इंटरनॅशनल जिऑग्रॉफिकल युनियन (IGU- भुगोलाविशीं), इंटरनॅशनल मॅथेमॅटिकल युनियन (IMU- गणितीय), इंटरनॅशनल सायंटिफिक रेडिओ युनियन, इंटरनॅशनल युनियन ऑफ बायोकेमिस्ट्री (IUB- जीवरसायन), इंटरनॅशनल युनियन ऑफ बायोलॉजिकल सायन्सेस (IUBS- जीववैज्ञानिक), इंटरनॅशनल युनियन ऑफ क्रिस्टोलोग्राफी (IUC- स्फटिकविज्ञान), इंटरनॅशनल युनियन ऑफ जिओडेसी अँड जिओफिजिक्स ( IUGG- भूगणित, भूभौतिकी), इंटरनॅशनल युनियन ऑफ जिऑलॉजिकल सायन्स. (IUGS), इंटरनॅशनल युनियन ऑफ हिस्टरी अँड फिलॉसॉफी ऑफ सायन्स (IUHPS), इंटरनॅशनल युनियन ऑफ फिजिओलॉजिकल सायन्सेस (IUPS), इंटरनॅशनल युनियन ऑफ प्युअर अँड अॅप्लाइड केमिस्ट्री (IUPAC), इंटरनॅशनल युनियन ऑफ प्युअर अँड अॅप्लाइड फिजिक्स (IUPAP), इंटरनॅशनल युनियन ऑफ थिओरेटिकल अँड अॅप्लाइड मेकॅनिक्स (IUTAM) आदी संस्थांचो आस्पाव जाता.

१९४९ वर्सा आय. सी. एस्. यू. अॅबस्ट्रॅक्टिंग बोर्ड हें मंडळ सुरू जालें. हें मंडळ रशियांतल्या अॅकॅडमी ऑफ सायन्सेसच्या 'इन्स्टिट्यूट ऑफ सायंटिफिक इन्फर्मेशन' हे संस्थेक पालव दिता आनी भौतिकशास्त्र, रसायनशास्त्र आनी जीवविज्ञान ह्या विशयांतल्या नवे माहितीचो आपरोस रेखड्यारेखडो उजवाडाक हाडपाची तजवीज करता. ह्या मंडळाचें कार्यालय पारीस हांगा आसा.

'फेडरेशन ऑफ अॅस्ट्रॉनॉमिकल अँड जिओफिजिकल सर्व्हिसेस' (FAGS) ही संघटना १९५६ वर्सा सुरू जाली. हे संघटनेच्या वावरांत इंटरनॅशनल टाइम ब्यूरो, इंटरनॅशनल पोलर मोशन सर्व्हिस, परमनंट सर्व्हिस ऑफ जिओमॅग्नेटिक इंडाइसेस, इंटरनॅशनल ग्रॅव्हिमेट्रिक ब्यूरो, वातावरणांतलो ओझोन वायू, रेडिओ संदेश आनी संवसारीक दिनमान, सरासरी दर्याची पातळी आदी सेवांचो आस्पाव जाता. हे संघटनेच्या संचालकांचें कार्यालय टोरँटो, कॅनडा हांगा आसा.

वेगवेगळ्या शास्त्रीय विभागांचें काम करपाखातीर स्वतंत्र समित्यो नेमल्यात. 'कमिटी ऑन स्पेस रिसर्च' (अवकाशाविशीं संशोधन करपाक नेमिल्ली समिती) ही समिती १९५८ चें 'आंतरराश्ट्रीय भूभौतिक वर्स' सोंपतकच त्या विशयाचें फुडलें काम चालू दवरपाखातीर स्थापन केल्ली. ही समिती शास्त्रीय संशोधनाखातीर उज्याबाण आनी उपग्रहांचो उपेग करपी सगळ्या राश्ट्रीय संस्थांचो पालव घेवपाखातीर खटपट करता. तशेंच उपग्रह आनी उज्याबाणाच्या मार्गाचो सोद घेवप, पयसुल्ल्या अंतरावेल्यान भौतिक राशींचें माप घेवप, गतिशास्त्र, संवसारीक सौर वर्स, अवकाश जीवविज्ञान, अवकाश तंत्राचो उपेग करून वाऱ्याचें नियंत्रण करप, माहिती एकठांय करप आनी उजवाडाक हाडप अशा वेगवेगळ्या विशयांखातीर उपसमित्यांची नेमणूक जाल्या. अवकाशांत प्रयोग केल्ल्यान काळांतरान वायट परिणाम जावंक शकता हाचेविशीं शिकप करपाखातीर एक मिश्र समिती नेमिल्ली आसा.

'सायंटिफिक कमिटी ऑन अंटार्क्टिक रिसर्च' (ICAR) हे समितीचो वावर १९५८ वर्सासावन सुरू जालो. अंटार्क्टिकाविशीं शास्त्रीय माहिती एकठांय करपाचें काम सामुदायिक रितीन चालू दवरपाखातीर ही संस्था यत्न करता. हे संस्थेची कचेरी स्कॉट पोलर रिसर्च इन्स्टिट्यूट, केंब्रिज- इंग्लंड, हांगा आसा.

'इंटरनॅशनल जिओफिजिकल कमिटी' (IGC) ही समिती आंतरराश्ट्रीय भूभौतिक वर्साचो (IGY) वावर फुडें चालू दवरपाखातीर १९५९ वर्सा स्थापन केल्ली. हे समितीकडे वातावरणविज्ञान, अणुकेंद्रीय प्रारण, उच्चतर वातावरणविज्ञान, भुचुंबकत्व, ध्रुवीय उजवाड, आयनांबर, विश्वकिरण, महासागरविज्ञान आनी भूंयकांपविज्ञान हे विशय दिल्यात. IGY आनी IGC हांणी एकठांय केल्ल्या माहितीचो पुराय उपेग करप, ते माहितीविशींचें साहित्य उजवाडावप, IGY त स्थापन जाल्ल्या संवसारीक निरीक्षण केंद्राचो वावर वेवस्थित चालू दवरप, हीं हे समितीचीं मुखेल कामां आसात.

'सायंटिफिक कमिटी ऑन ओशियानिक रिसर्च' (ICOR) हे समितीचें काम १९५७ त सुरू जालें. सागरी हवामान, दर्यांतली जीव उत्पत्ती आनी उपेग नाशिल्लीं किरणोत्सर्गी द्रव्यां दर्यांत सोडप आदी विशय ही समिती पळेता. हे समितीन १९६२ वर्सा सुरू जाल्ले युनेस्कोच्या संवसारीक हिंदी महासागराचे मोहिमेंत म्हत्वाचो वावर केला. समितीची कचेरी हॅंबर्ग हांगा आसा.

'स्पेशल कमिटी फॉर द इंटरनॅशनल बायॉलॉजिकल प्रोग्रॅम' (SCIBP) ही समिती १९६३ वर्सा सुरू जाली. हे समितीची कचेरी रोम हांगा आसा. ही समिती संवसारीक लोकसंख्येची वाड आनी सैमीक परिस्थितींतल्यो गरजो हे विशीं संशोधन करता. 'स्पेशल कमिटी फॉर द इंटरनॅशनल इयर्स ऑफ द क्वाएट सन' (IQSYC) 'इंटरनॅशनल जिओफिजिकल कमिटी' हे समितीची एक उपसमिती म्हूण १९६२ त सुरू जाली. ही समिती सूर्यावयली परिस्थिती शांत आसता त्या वर्सा करपाच्या आंतरराश्ट्रीय संशोधनाची सगळी वेवस्था पळेता. हे समितीचें कार्यालय लंडन हांगा आसा.

ह्या समित्यांभायर 'इंटर-युनियन कमिटी ऑन रेडिओ

मिटिओरॉलॉजी' (IUCRM, १९५९), 'इंटर-युनियन कमिशन ऑन सोलर- टेरेस्ट्रियल फिजिक्स' (IUCSTP, १९६६), 'इंटर-युनियन कमिशन ऑन स्पेक्ट्रॉस्कोपी' (IUCS, १९६६), 'इंटर-युनियन कमिशन फॉर स्टडीज ऑफ द मून' (IUCM, १९७०) आदी समित्यो म्हत्वाचो वावर करतात. तेचपरी उदरगतशील राश्ट्रांत विज्ञान आनी तंत्रविद्या हांचो प्रसार जावंचो म्हूण तांकां उत्तेजन दिवचेपासत 'कमिटी ऑन सायन्स अँड टेक्नॉलॉजी इन डेव्हलपिंग कंट्रिज' (COSTED) हे समितीची १९६६ वर्सा थापणूक जाली. विज्ञानाच्या शिक्षणाचो सर्वांगीण अभ्यास करपाखातीर १९६८ त, एक समिती स्थापन केली.

- कों. वि. सं. मं.

**इंडो-अँग्लिअन साहित्य:** साहित्य अकादेमीन व्याख्या केल्या प्रमाण इंडो-अँग्लिअन साहित्य वा भारतीय इंग्लीश साहित्य म्हळ्यार भारतीयांनी इंग्लीश भाशेंतल्यान बरयल्लें साहित्य. हो भारतीय साहित्याचोच वांटो जावन आसा. हेर भारतीय साहित्याभशेन भारतीय समाजीक भावनिश्र्ठेंत ताचीं मुळां आसात आनी तें भारतीय संवेदनशीलता उक्तायता.

भारतीय इंग्लीश साहित्याची सुरवात ब्रिटीश आनी भारतीय संस्कृतायेमदीं आयिल्ल्या संबंदांतल्यान अठराव्या शतमानांत जाली. 'अकाउंट ऑफ द जैन्स' हो अठ्ठावीस पानांचो कावेली वेंकट बोरिया हाणें १८०३ त बरयिल्लो निबंद म्हळ्यार एकाद्र्या भारतीयान बरयिल्ली पयली इंग्लीश बरपावळ अशें मानतात. हो निबंद १८०९ त लंडनांत 'एशियाटिक रिसर्चीस ऑर ट्रान्झॅक्शन्स ऑफ द सोसायटी इन्स्टिट्यूटेड इन बँगॉल फॉर इन्क्वायरींग इन टु द हिस्टरी अँड अँक्टीव्हिटीज ऑफ द आर्ट, सायन्स अँड लिटरेचेर ऑफ एशिया' (५ वो खंड) हातूंत उजवाडाक आयलो.

एकुणिसाव्या शतमानांत समाजीक आनी धर्मीक अभिव्यक्तींतल्यान खासा करून राजा राममोहन रॉय हाचे बरपावळींतल्यान सुरू जाल्ली ही साहित्याची परंपरा साहित्याच्या सगळ्या प्रकारांतल्यान फुलूंक पावली. पयलींचें गद्य साहित्य समाजीक, धर्मीक सुदारणा आनी राजकी जाणविकाय ह्या गजालींतल्यान प्रेरणा घेवन जल्माक आयलें, जाल्यार भारतीय इंग्लीश काव्य किरिस्तांव भावभावनांचें, सैमाचें, इतिहास, पुराणां आनी दंतकथांचें दायज घेवन ब्रिटीश स्वच्छंदतावादाच्या प्रभावाखाल निर्माण जावंक लागलें. पयलो भारतीय इंग्लीश कवी म्हूण हेन्री लुईस विवीयन डेरोझिओ (१८०९-१८३१) हाचें नांव घेतात. हाच्या काव्याचे दोन संग्रह 'पोएम्स' (१८२७) आनी 'द फकीर ऑफ जंजिरा: अ मेट्रिकल टेल अँड अदर पोएम्स' (१८२८) उजवाडाक आयले. ताच्या काव्याचें खाशेलपण म्हळ्यार देशभक्तीची भावना. 'द हार्प ऑफ इंडिया' आनी 'टू इंडिया- माय नेटिव्ह लँड' ह्या ताच्या कवितांतल्यान देशभक्तीच्यो जागृत भावना उक्त्यो जातात.

भारतीय नवलकथा मात फाटीं उरली. १८६४ त, बंकिमचंद्र चटर्जी (१८३८-९४) हाणें पयली आनी एकूच कादंबरी - 'राजमोहन्स वायफ' इंग्लिशींतल्यान बरयल्ली. ती कलकत्त्याच्या 'द इंडियन फिल्ड' ह्या सातोळ्यांतल्यान धारावाही कथा म्हूण उजवाडाक आयली.

लघुकथा, नाटक, आत्मचरित्रां, चरित्रां, निबंद, टीका हे सारकी बरीच बरपावळ इंग्लिशींतल्यान जाली तरी कादंबरी आनी काव्य ह्या मळांचेर जाल्ले बरपावळीच्या मानान ती उणीच आशिल्ली.

डेरोझिओ हाचेवांगडा काशीप्रसाद घोष (१८०९-७३) आनी मायकेल मधुसुदन दत्त (१८२४-७३) हांणी काव्याची बुन्याद घाली. पूण खऱ्या अर्थान काव्य फुलले तें तोरु दत्त (१८५६-७७) हिचेवरवीं. विंगड विंगड विशयांची जाण आशिल्ले हे कवयित्रीन भारतीय परंपरेचे खोलायेक हात घालो. आर. सी. दत्त (१८४८-१९०९), हाणें 'लेज ऑफ एन्शन्ट इंडिया' (१८९४) हातूंतल्यान संस्कृत आनी प्राकृत काव्याचे इंग्लीश अणकार मुखार हाडले. ह्या काळावयलो आनीक एक नामनेचो कवी म्हळ्यार मनमोहन घोष (१८६९-१९२४). 'प्रायमाव्हेरा' (१८९०) ह्या पुस्तकांतल्यान ताच्या व्हड काव्यगुणांचें दर्शन घडटा.

भारतीय इंग्लीश काव्याचें व्हडपण नोबेल इनाम फाव जाल्ल्या रवींद्रनाथ टागोर (१८६१-१९४१) ह्या महाकवीच्या काव्यांतल्यान दिश्टी पडटा. अरविंद (१८७२-१९५०) हाचेय बरपावळींतल्यान साहित्याची गिरेस्तकाय जाणवता. टागोराचे प्रतिभेचें दर्शन नाटक, काव्य, कादंबरी, लघुकथा, संगीत आनी चित्रकला ह्या सगळ्यांतल्यानच घडटा. ताचे 'गीतांजली'न (१९१२) अस्तंती साहित्याच्या मळार बरीच नामना मेळयली. टागोराचे हेर संग्रह 'द गार्डनर', 'द क्रिसेंट मून', 'फ्रूट गॅदरिंग', 'लव्हर्स गिफ्ट' आनी 'क्रॉसिंग' हेय साहित्यिक नदरेंतल्यान टीकाकारांच्या तोखणायेचे थारले.

टागोरान 'द रॅक' (१९१०), 'गोरा' (१९१०), 'द होम अँड द वर्ल्ड' ह्या सारक्यो कादंबऱ्यो; 'द किंग ऑफ द डार्क चेंबर', ' द पोस्ट ऑफिस', 'रेड ऑलिएंडर्स' आनी 'चित्रा' हीं नाटकां; कितल्योशोच लघुकथा आनी विंगड विंगड विशयांचेर बरयिल्ले निबंद अशी बरपावळ केली.

अरविंद घोष (१८७२-१९५०) हाणेंय भारतीय इंग्लीश साहित्यांत मोलादीक बरपावळ केली. राजकी परिवर्तनवादी, कवी, तत्त्वचिंतक, गूढवादी आनी योगी आशिल्ल्या अरविंदान गिरेस्त अशी बरपावळ केल्या. 'सावित्री', 'द लायफ् डिव्हायन' हातूंतल्यान ताणें व्हड तात्त्विक विचार मांडल्यात.

सरोजिनी नायडू (१८७९-१९४९) आनी तिचो धाकटो भाव, हरींद्रनाथ चट्टोपाध्याय (मरणः १९९०) हीं पयल्या म्हाझुजापयलींचे पिळगेंतलीं इंडो-अँग्लिअन साहित्यनिर्मणी करपी निमणी नांवां आसात.

पयल्या म्हाझुजाउपरांत मनशाच्या दृश्टीकोनांत बदल जावन ताचें पडबिंब इंग्लीश काव्यांतल्यान दिसून आयलें, तरी भारतीय इंग्लीश साहित्याचेर ताचो व्हडलोसो परिणाम जालोना. महात्मा गांधीच्या फुडारपणाखाल चलपी राश्ट्रवादी राजकी चळवळीचोय भारतीय इंग्लीश काव्याचेर उणोच प्रभाव पडलो. संख्येचे नदरेंतल्यान मात भारतीय इंग्लीश काव्याची बरीच वाड जाली. गेल्ल्या पन्नास वर्साच्या काळांत ताका बांदावळ आनी रचणुकेभितर विविधताय लाबली. निस्सीम इझिकेल, ए. के. रामानुजन, डॉम मोरायस, गीव्ह पटेल, आर. पार्थसारथी, अरुण कोलटकर, केकी एन्. दारुवाला, जयंत महापात्रा हांणी कवितेच्या मळार नामना मेळयली. ह्या काळावयल्या इंडो अँग्लिअन साहित्यिकांमदीं जोसेफ फुर्तादु आनी आर्मांदु मिनेझिश हांचोय आस्पाव जाता.

भारतीय इंग्लीश कादंबरी खऱ्या अर्थान भारतांतल्या विंगड विंगड वर्ग-जात संघर्शाचें आनी समाजाचे वास्तवतेचें पडबिंब दाखयता. गेल्ल्या शतमानांतल्या दुसऱ्या अर्दांतल्यो समाजीक आनी इतिहासिक कादंबऱ्यो ब्रिटीश धर्तेचेर बरयल्यात. खासकरून डिफो, फिल्डींग आनी स्कॉट हांचो प्रभाव तांचेर दिसता. राश्ट्रीय अस्मिताय, उदेंत-अस्तंत संघर्श आनी कश्टकरी समाजाच्या आशांचे आनी मानसिक परिस्थितीचें चित्रण भारतीय इंग्लीश कादंबरींतल्यान ल्हव ल्हव जातना दिसलां. समाजीक वास्तवतेवेले सगळे तरेचे विचार तातूंतल्यान उक्ताडाक आयल्यात.

कादंबरीचे हे संक्रमणावस्थेंतले स्वतंत्रतायेपयलींचे मुखेल लेखक म्हूण मुल्क राज आनंद, आर. के. नारायण आनी राजा राव हांचीं नांवां घेतात. आनंद हाच्या 'अनटचेबल' (१९३५), 'कूली' (१९३६) आनी 'टू लीव्हज अँड अ बड' (१९३७) हातूंतल्यान आनी हेर कादंबऱ्यांतल्यान सकयल्या समाजाचीं दुखां आनी क्रांतीकारी समाजीक बदलाची इत्सा स्पश्टपणान जाणवता.

आर. के. नारायणाची कादंबरीसृश्टी राग, निशेध वा भावनोत्कटता ह्या आनंदाच्या कादंबरींतल्यान दिसपी भावावरवीं मुखार येना. पूण तातूंत नकसूदपण, विनोद, उपहास, सादी-सरळ वास्तवता दिसता. 'मालगुडी डेयज' सारके ताचे कादंबरींतल्यान सकयल्या मध्यमवर्गीय हिंदू कुटुंबांतले विंगड विंगड घटक मुखार येतात. समाजीक, राजकी

आनी तात्त्विक संघर्शांतली पारंपारिक हिंदू समाजाची फाटभूंय नारायण बरेतरेन उबी करता. 'द फायनान्शल एक्स्पर्ट' (१९५२), 'द गायड' (१९५८) आनी 'मॅन ईटर ऑफ मालगुडी' (१९६२) ह्यो तांच्यो गाजिल्ल्यो कादंबऱ्यो.

राजा राव हाचे यत्न हिंदू धर्मांतलो गूढवाद, संस्कृताय आनी हेर बारीकसाणींचेर चड भर दिवपाचे आसात. ताच्यो गाजिल्ल्यो चार कादंबऱ्यो- 'कांतपुरा' (१९३८), 'द सर्पंट अँड द रोप' (१९६०), 'द कॅट अँड शेक्सपीअर' (१९६५), 'कॉम्रेड किरिलोव्ह' (१९७६) आनी 'द काव ऑफ द बॅरिकेडस्' (१९४७) हो कथांझेलो ताचे बारीकसाणीची गवाय दितात. उदेंत-अस्तंत संघर्श चितारपी एक समर्थ कादंबरीकार अशी ताची नामना आसा.

स्वतंत्रतायेउपरांतची भारतीय इंग्लीश कल्पितकथा वास्तवतेचे परंपरेतल्यानच मुखार आयिल्ली दिसता. भवानी भट्टाचार्य, मनोहर माळगांवकर, खुशवंतसिंग आनी हेर हांच्यावांगडा एके नवे उमेदीचो जल्म जाल्ल्याचें जाणवता. जी. व्ही. दासानी आनी सुधीन घोस हांणी नवे प्रयोग करून दाखयल्यात. हेरांनी चड घुस्पागोंदळाच्या आनी उच्चभ्रू प्रकारच्या विशयांक हात घाला. बायलांमदीं कादंबरी बरोवप्यांच्या संख्येंतय बरीच वाड जाल्ल्याचें दिसता. कमला मार्कंडेय, अनिता देसाय, रुथ प्रॉवर झाबवाला आनी नयनतारा सहगल हांचो आस्पाव तातूंत जाता. अरुण जोशी, चमन नहाला आनी अमिताव घोस हांणीय विशय आनी आशयाचे नदरेंतल्यान भारतीय इंग्लीश साहित्याक गिरेस्तकाय मेळोवन दिल्या.

- डॉ. विश्वास कानडे

**इंडो-आर्यन भाशा पंगड:** इंडो-युरोपियन भाशाकुटुंबाच्यो शाखा अस्तंतेक आयर्लंड ते उदेंतेक आसाममेरेन पातळ्ळ्यात. तातूंतल्या उदेंतेकडले शाखेक आर्यन म्हण्टात. आर्यन शाखेच्यो तीन उपशाखा आसात: इराणी, दार्दिक आनी इंडो-आर्यन. दार्दिक शाखेची कश्मीरी सोडल्यार भारतांतल्यो हेर सगळ्यो परंपरागत इंडो-युरोपियन भासो इंडो-आर्यन जावन आसात.

भुगोलीक सुवात आनी भाशीक खाशेलपणां हांकां अनुसरून ग्रिअर्सन हाणें इंडो-आर्यन भाशेचे तीन गट केल्ले आसून तांकां अनुक्रमान बाह्य, आंतर आनी मध्य अशीं नांवां आसात. जांचे एके वटेन इंडो-आर्यन भासो आसून हेर वटांनी इंडो-युरोपीयन भाशा पंगडाभायल्या कुटुंबाच्यो भासो आसात त्यो बाह्य. जांचे एके वटेन बाह्य, जाल्यार हेर वटांनी इंडो-आर्यन भासो आसात त्यो आंतर आनी सगळ्या वटांनी फकत इंडो-आर्यन भाशेन रेंवडायल्ल्यो आसात त्यो मध्य.

बाह्य पंगडाचे तीन वांटे आसात: १ वायव्य- सिंधी आनी लहंदा २. दक्षिण- मराठी आनी कोंकणी ३. उदेंत-उडिया, बंगाली, बिहारी, आसामी. आंतर पंगडाचे दोन वांटे आसात: १. मध्य- हिंदी, पंजाबी, गुजराती, भिली, खानदेशी, राजस्थानी २. पहाडी- उदेंत, मध्य आनी अस्तंत पहाडी. मध्य पंगडांत एकूच वांटो आसा: हिंदी (अवधी, कोसली, बाघेली, बाघेलखंडी, छत्तीसगढी, लाडिया). हिंदीच्यो हेर ब्रज, कनौजी ह्यो बोली आंतर पंगडाचे हिंदींत येतात. श्रीलंकेची सिंहली ही भास इंडो-आर्यन आसून ती भारताभायर आसा. पूण आपले व्याख्येप्रमाण ती खंयच्याच पंगडांत बस नाशिल्ल्यान तिचो एक चवथोच पंगड मानचो पडटलो.

**इतिहास:** भारतांत ऑस्ट्रिक, तिबेटो-बर्मन, द्राविड आनी इंडो-युरोपियन ह्या कुटुंबांतल्यो भासो उलोवपी लोक आसात. तातूंतले इंडो-युरोपियन भाशिक लोक सगळ्यांत निमाणे आयले. तांचो काळ अदमासान इ. स. प. सुमार १५०० ते १२०० अशें मानतात. इंडो-आर्यन भाशेचो सगळ्यांत पूर्विल्लो पुरावो वेद. ताची निर्मणी आर्यांचो भारतांत प्रवेश जावंच्यापयलींच सुरू जाल्ल्या आसतली. आर्य लोकांचे पंगड ल्हव ल्हव उदेंतेकडेन आनी दक्षिणेंतय गेले. जायत्या थळाव्या लोकसमूहांनी तांच्यो बोली-भासो आपणायल्यो. ताका लागून ह्यो बोली चडशो सबंद देशभर ऑस्ट्रिक, द्राविड वा तिबेटो-बर्मनच्या निम्नस्तराचेर उब्यो आसात. म्हळ्यार इंडो-आर्यन भाशेचें मूळ वैदिक वा ताचेसारकिल्या बोलींचें परिवर्तित स्वरूप जावन आसा. ह्या परिवर्तनाचीं कारणां भाशांभितरल्यो घडामोडी, भायल्या भासांचो संपर्क आनी राजकीय आनी संस्कृतीक घडणुकांचो परिणाम हीं आसात.

वैदिक साहित्याची घडण जायत आसतना सदच्या वेव्हारांतल्यो आर्य बोली बदलत आशिल्ल्यो. वेद, आरण्यकां, उपनिषदां आनी त्या संदर्भांत निर्माण जाल्ले शास्त्रग्रंथ हांणी भाशेक थीर स्वरुप दिलें, जाल्यार जिविताच्या झोताकडेन संबंदीत आशिल्ल्यो बोली उत्क्रांत जायत गेल्यो. ह्या थीर साहित्याचो अभ्यास करपी एक प्रतिश्ठित पंडितवर्ग आशिल्लो. तांची परंपरा इतली चैतन्यपूर्ण आशिल्ली की, तांच्यासयत सगळ्या समाजाच्या तोंडांत जरी वैदिक भाशेची प्राकृत आदी उत्क्रांत रुपां आयलीं, तरी अभिजात संस्कृतांतल्या ग्रंथनिर्मणेचो झोत ह्या परिवर्तित रुपांवांगडा चालूच आशिल्लो. ह्या दोगांयचो एकामेकांचेर एकसारको परिणाम जायत रावलो. मूळ संस्कृत भाशेवांगडा आयजूय आर्यभासांचे लागशिल्ले संबंद आसात.

धर्मीक संस्कार, ज्योतिश, वैजकी, न्याय ह्या कारणांनी सगळ्या लोकांक त्या त्या विशयांतल्या जाणकारांकडेन वचचें पडटालें आनी तांचे आदारभूत ग्रंथ संस्कृतांत आशिल्ल्यान ही भास ग्रांथिक आसून लेगीत प्रभावी उरली. भाशिक परिवर्तनांत वीरकाव्याची भास; फुडें अशोकाचे शिलालेख आनी पाली; उपरांत नाट्यवाङ्मयांत आनी सप्तशती हांच्यासारक्या बरपांतली तरेतरेची प्राकृत, इ.स. च्या दुसऱ्या सहस्रकाचे सुरवातीची अपभ्रंश आनी पूर्विल्ली नव आर्यभास (मराठी, कोंकणी, बंगाली आदी) हे मुखेल पांवडे आसात.

**वैदिक भासो:** ध्वनीपरिवर्तन हें भास बदलपाचें मुखेल कारण आशिल्ल्यान तिचें ध्वनिस्वरुप पयलीं मतींत घेवपाक जाय, तें अशें:

***स्वर:*** *(शुध्द)* अ आ इ ई उ ऊ ऋ ॠ लृ, *(संयुक्त)* ए. (अय्) ऐ (आय्) ओ (अव्) औ (आव्).

***व्यंजनां:*** *(स्फोटक)* क ख ग घ, *(कण्ठ्य)* च छ ज झ, *(तालव्य)* ट ठ ड ढ, *(मूर्धन्य)* त थ द ध, *(दन्त्य)* प फ ब भ, *(ओष्ठ्य)*; (अनुनासिक) ङ ञ ण न म; (द्रव) र ल; (अर्दस्वर) य व; (घर्षक) श ष स ह; (अनुस्वार) ँ, (स्वराघात) उदात्त, अनुदात्त, स्वरित. शब्दांचे अखेरेक स्वर वा एकूच व्यंजन येता.

***संधी:*** शब्दांअखेरेक येवपी स्वराचो उपरांतच्या स्वराकडेन, आनी व्यंजनाचो उपरांतच्या स्वराकडे वा व्यंजनाकडे खाशेल्या नेमावरवीं जावपी संयोग म्हळ्यार संधी.

***व्याकरण:*** शब्दांचे दोन वर्ग आसात: विकारक्षम (नाम, क्रियापद, सर्वनाम, विशेषण) आनी विकारशून्य (क्रियाविशेषण, उभयान्वयी, उपसर्ग, उद्‌गारवाचक).

***नाम:*** नामांत तीन लिंगां, तीन वचनां आनी आठ विभक्त्यो आसतात. सर्वनाम आनी विशेषण हांकांय होच नेम लागू पडटा. पूण सर्वनामांत संबोधन ना.

***क्रियापद:*** क्रियापदांची वांटणी दोन पदांत (आत्मने आनी परस्मै) आनी दरेका पदाची प्रत्ययाप्रमाण धा गणांत करतात.

कालदर्शक पध्दती पांच आसात. वर्तमान, रीतिभूत, पूर्णभूत, सामान्यभूत आनी भविश्य. अर्थदर्शक पध्दतीय पांच आसात. विधान, आज्ञा, विधी, इत्सा, संभव. क्रिया कर्तृनिश्ठ, कर्मनिश्ठ वा प्रयोजित आसूं येता. तेभायर कालदर्शक आनी अर्थदर्शक धातुसाधितांय आसात. शब्दांपसून वा धातूपसून शब्द साधपी आनीकूय प्रत्यय आसात. दोन शब्दांच्या खाशेल्या संयोगान तयार जाल्ले समासूय आसात. फुडें फुडें असले समासूय व्हडल्या समाजाचे घटक म्हूण वापरपाक सुरवात जाली.

समृध्द व्याकरण आशिल्ली वैदिक भास उत्तरकालीन संस्कृत रूपांत बरीच बदलली. भाशेंत स्वराघाताचें म्हत्व नश्ट जालें. स्वरमध्यस्थ ड ढ

वैदिक भाशेंत ळ ळह जातात. संस्कृतांत ते तशे जायनात. संधिनेम कडक जाले. विभक्तीप्रत्ययांतूय थोडो फरक पडलो. क्रियापदाच्या मळार खूब फरक घडून आयलो. भूतकाळांतलीं रुपां खाशेलपण शेणोवन बसलीं. आज्ञार्थ, विध्यर्थ आनी संकेत हांचो उपेग जातालो, पूण हेर अर्थ व्हडलेशे म्हत्वाचे उरलेनात. उपसर्गाचें स्वतंत्र अस्तित्व नश्ट जावन तें धातूंकूच दसलें.

संस्कृताउपरांतच्या काळांत ऋ ॠ लृ ऐ औ हे स्वर नश्ट जाले. दोन स्वरांमदले कांय शुध्द स्फोटक नश्ट जाले जाल्यार कांय बदलले, सप्राण स्फोटकांतलें स्फोटकतत्त्व गेलें, ष हो घर्षक वचून स वा श तितलो उरलो, संयुक्त व्यंजनाचे सुवातीर ते ते सुवातेप्रमाण शुध्द व्यंजनां वा व्यंजयुग्मां आयलीं. संधी ना जाली. व्याकरणांत नामांचें द्विवचन नश्ट जालें. कांय वाठारांत तिनूय लिंगां तिगून उरलीं, जाल्यार कांयकडेन दोन आनी कांय बोलींत तर लिंगवेवस्था उरलीचना. क्रियापदांत धातुसाधितांनी खूब मोट्या प्रमाणांत आक्रमण केलें. ताका लागून तांचीं रुपां विशेशणांप्रमाण कर्तो वा कर्म हांकां चड लागींचीं जालीं.

चड म्हत्वाचो फरक घडून आयलो तो शब्दसंग्रहांत. बदलपी समाजीक परिस्थिती आनी राजकी घडणुको हांच्या संदर्भांत संस्कृत शब्दसंग्रह खूब अपुरो आशिल्लो. संस्कृत भाशेकूय द्राविड, ऑस्ट्रिक, ह्या भासांकडल्यान शब्द घेवंचे पडले. उपरांतच्या काळांत उत्तर कालीन इंडो-आर्यन भाशांक अरबी, फारसी, तुर्की, पोर्तुगेज, इंग्लीश, फ्रेंच ह्या भासांचें रीण घेवचें पडलें. ताका लागून तांचें शब्दभांडार आनीकूय समृध्द जालां. वाक्यरचणूक मात व्हडलीशी उदरगत करपाक पावंक ना. अस्तंती भासांच्या अनुकरणाक लागून नवे सूक्ष्म भेद दाखोवपी प्रयोग फुडारिल्ल्या भासांत येवपाक लागल्यात. ताका लागून तांची अभिव्यक्तीक्षमता पयलींपरस जायत्या पटींनी वाडल्या.

- ना. गो. कालेलकार

संदर्भः 1. Bloch, Jules, L'indo-aryen du ve'da aux temps modernes, Paris 1934; 2. Census of India: Language 1961; 3. Meillet, Antoine, L'introduction a' l' e'tude Comparative des langues indo-europe'ennes, Paris 1937 (2 'eme e'dition).

**इंडो-युरोपियन भाशा पंगडः** संवसारांत सुमार ३-४ हजार भासो उलयतात. तातूंत एकामेकांकडेन सारकेपण आशिल्ल्या भासांचे जायते पंगड आसात. मराठी-कोंकणी-गुजराती-हिंदी, इंग्लीश-जर्मन-डच, फ्रेंच-पोर्तुगेज-स्पॅनिश-इटालियन हीं हातूंतल्या कांय परिचित पंगडांचीं नांवां.

हें सारकेपण खंयच्यान आयलें आनी ताचो अर्थ किदें, हे प्रस्न जायत्यो भासो येवपी कांय जिज्ञासूंच्या मनांत केन्नाकेन्नाय उप्रासताले, पूण तांची जाप कोणाकूच मेळूंनासली. असल्या प्रस्नांची नेमकी जाप रोखडी मेळय ना. पूण तर्क करून ती चूक काय बरोबर हें वळखूं येता. सर विल्यम जोन्स हाणें २ फेब्रुवारी १७८६ दिसा कलकत्त्याचे एशियाटिक सोसायटीमुखार मांडिल्ली कल्पना हो एक अशेच तरेचो तर्क आशिल्लो. भारतांत संस्कृतचो अभ्यास करतकच, तिचें फारसी, ग्रीक,लॅटीन हांचेकडेन आसपी सारकेपण ताच्या लक्षांत आयलें, आनी हें सारकेपण फकत योगायोगाचें नासून ह्यो भासो आयज अस्तित्वांत नाशिल्ले खंयचे तरी एके मूळ भाशेपसून आयल्या आसतल्यो, अशें मत ताणें परगटायलें.

त्याच सुमाराक असले तरेचे विचार युरोपांतल्या कितल्याशाच भाशापंडितांच्याय मनांत येताले. आपल्याक दोन वा चड भासांत दिसून येवपी हें सारकेपण आसा तरी खंयचें, कसलें तरेचें आनी कितलें हाचो अभ्यास तांणी सुरू केलो. भासांच्या तुलनात्मक अभ्यासाची हीच सुरवात जावन आसा. तेउपरांत हीं सगळीं साम्यस्थळां मतींत घेवन तांचें मूळ रुप निश्चित करपाचे वा ताचो अदमास घेवपाचे यत्न सुरू जाले. हीच इतिहासीक अभ्यासाची सुरवात. आयचो वा पूर्विल्लो पुरावो घेवन, ताच्या रुपांचे तुळेन सगळ्यांत पोरनें रुप नक्की करून, आद्य भाशेचें चडांत चड सुसंगत पुनर्घटित रूप थारावपाचे यत्न जावपाक लागले.

युरोपीय भासांचे तुळेंतल्यान ह्या अभ्यासाक सुरवात जाली, पूण संस्कृतचो सोद लागमेरेन हातूंत व्हडलीशी उदरगत जावंक पावलीना. ताचे उपरांत मात हे उदरगतीक नेट आयलो. श्लेगेल् हाचो संस्कृत भाशेवयलो ग्रंथ (१८०८), बॉप हाचें तुलनात्मक व्याकरण (१८३३), रास्क, ग्रिम, व्हेर्नर हांचें ध्वनीविशींचें संशोधन, सोस्यूर हाचो इंडो-युरोपियन स्वरपध्दतीवयलो प्रबंध (१८७९), ब्रुगमान आनी मेय्ये हांची तुलनात्मक व्याकरणां (१८९७, १९१६) हे ह्या विशयांतले म्हत्वाचे पांवडे आसात.

संस्कृताच्या सोदाक लागून ह्या अभ्यासाक नेट येवपाचें कारण म्हळ्यार संस्कृत भाशेन मूळ भाशेची व्यंजन-वेवस्था आनी रुपविचार व्हड प्रमाणांत तिगोवन धरल्यात. तशेंच संस्कृत व्याकरणकारांनी आपले भाशेचें सूक्ष्म आनी बिनचूक पृथक्करण खूब पूर्विल्ल्या काळांतूच केल्लें. श्लेगेलसारक्या कांय सुरवातीच्या अभ्यासकांक तर संस्कृत हेंच ह्या भासांचें आद्यरुप दिसलें, पूण ती तांची चूक आशिल्ली.

संस्कृत, ग्रीक, लॅटीन, जर्मानिक, स्लाव्ह, हांचे तुळेंतल्यान पुनर्घटित जाल्ल्या ह्या रुपाक 'इंडो-युरोपियन' हें नांव मेळ्ळें. कांय लोक ताका 'इंडो-जर्मानिक' जाल्यार कांय जाण 'इंडो-हिटाइट' म्हण्टात.

**वर्गीकरणः** खासा अभ्यासाउपरांत दिसून आयलें की आयर्लंडसावन आसाममेरेन पातळिल्ल्या ह्या भासांत कांय भासो एकामेकांकडेन खास लागींच्यो आसात. म्हळ्यार तांचीं स्वताचीं अशीं कांय भाशिक खाशेलपणां आसात. समान खाशेलेपणां आसपी ह्या भासांचे पंगड ह्यो इंडो-युरोपियन भाशेच्यो शाखा आसात. ह्या शाखांभितरुय कांय एकामेकांकडेन लागींच्यो आसात. इटालिक आनी केल्टिक/बाल्टिक आनी स्लाव्हिक. सगळ्याच भासांचो पुरावो पूर्विल्लो ना. कांय भासांचो इ. स. प. २०००-१५००, जाल्यार कांय भासांचो १६-१७ व्या शतमानांतलो आसा. ज्यो भासो उसरां लिपिबध्द जाल्यो, तांचे विशीं हें घडून आयलें. संस्कृताभशेन मुखपरंपरेचो वापर करून पोरनी भास तिगोवन दवरपाचें काम आनी कोणेच केलेंना.

**इंडो-युरोपियनच्यो शाखाः** ह्यो इकरा आसून तांचो काळ, आवांठ आनी खाशेलपणां अशीं आसातः

**१. इंडो-इरानियन वा आर्यनः** ही शाखा वैदिक आनी पूर्विल्ली इराणी भास हांचेपसून तयार जाल्या. वैदिक भाशेचो काळ इ. स. प. १५००-१२०० आनी इराणी भाशेचो काळ इ. स. प. १०००-६०० आसूं येता. वैदिक भाशेचें परिवर्तन फुडें इंडो-आर्यन भाशेंत जालें. पूर्विल्ले इराणी भाशेचें एक रुप 'अवेस्ता' ह्या धर्मग्रंथांत जाल्यार दुसरें दारियवहच्या (इ. स. प. ५२२-४८६) शिलालेखांत मेळटा.

इंडो-इरानियन शाखेन जरी इंडो-युरोपियनची व्यंजनवेवस्था खासा तिगोवन धरिल्ली आसली, तरी अ, आ, ए, ओ ह्या स्वरांचें वेगळेपण तिका राखूंक आयलेंना. इ, उ, र आनी कंठ्य व्यंजनां हांचेउपरांत इंडो-युरोपियन भाशेंत स चो श जावप, स्वरांत नामांक षष्ठी भौवचनी नाम् हो प्रत्यय लागप, हीं ह्या शाखेचीं खाशेलपणां आसात.

**२. ग्रीकः** ग्रीसांत ज्यो भासो उलयतात तातूंत जायत्यो बोली भासो आसात आनी त्यो सगळ्यो सारक्या पांवड्याच्यो आसात. पूर्विल्ले ग्रीक भाशेचें एक ग्रांथिक रुप होमरच्या काव्यांत सांपडटा (इ.स.प. ८५०). हे भाशेंत ऋ, लृ चे अर्, रा; अल्, ला जातात. भ, ध हे महाप्राण नात, स चो ह जाता जाल्यार स्वरमध्यस्थ स नश्ट जाता.

**३. इटालिकः** रोमन साम्राज्याची लॅटीन, भोंवतणच्या वाठारांत पातळून तिचीं जाल्लीं परिवर्तनां इटालियन, फ्रेंच, स्पॅनिश, पोर्तुगेज, प्रोव्हांसाल, रुमेनियन ह्या रुपांत आयज दिसतात. इटालिकची लॅटीन आनी ऑस्को-अंब्रियन हीं दोन रुपां आसात. ऑस्को-अंब्रियनचे अवशेश उल्लेख करपासारके नासून लॅटीन भाशेकूच पर्जळीत फुडार लाबलो. लॅटीन भाशेचो पुरावो इ.स.प. ८०० तलो आसा. इटालिक भाशेंत न, म, र, ल ह्या इंडो-युरोपियन स्वरांचे एन्, एम्, ओर्, ओल् जातात. भ, ध, घ चे फ, थ, ख जातात. स्वरमध्यस्थ स चो पयलीं झ आनी उपरांत र

जाता.

४. **केल्टिकः** केल्टिक भाशेचे तीन भेद ब्रिटोनिक (वेल्श, कॉर्निक, ब्रतों) गोल्वा आनी गेलिक हे आसात. ह्या भासांत इंडो युरोपियन भासांतल्या ई चो ए, र आनी ल हांचे रि आनी लि, आद्य आनी स्वरमध्यस्थ ष ना जावप, ब चो ग्व आदी जातात.

५. **जर्मानिकः** हातूंत गॉथिक, उत्तर जर्मानिक (आइसलँडिक, नॉर्वेजियन आदी) आनी अस्तंत जर्मानिक (हाय आनी लो जर्मन, अँग्लो-सॅक्सन, इंग्लीश, डच आदी) येतात. जर्मानिक भाशेंत म, न, र, ल ह्या इंडो-युरोपियन स्वरांचे उम, उन, उर, उल जातात. इंडो-युरोपियन भाशेंत प, त, क आनी फ, थ, ख चे घर्षक, इंडो-युरोपियन भाशेंत ब, द, ग चे प, त, क आनी पयलीं येवपी स्वराचेर आघात नासल्यार प, त, क सघोष जावप आदी.

६. **बाल्टिकः** हाचे पूर्विल्लो प्रशियन (आतां मृत) आनी लेटो-लिथुएनियन हे भाग आसात. हांचो सगळ्यांत पोरनो वापरपासारको पुरावो सोळाव्या शेंकड्याच्या मध्यांतलो आसा.

७. **स्लाव्हिकः** स्लाव्हिकच्यो तीन उपशाखा आसातः दक्षिण (बल्गेरियन, सर्बो-क्रोएशियन, स्लोव्हिनियन), अस्तंत (चेक, स्लोव्हाक, पोलिश, वैदिक) आनी उदेंत (ग्रेट रशियन, व्हाइट वा बायलो रशियन, युक्रेनियन) ह्यो सगळ्यो भासो एकामेकांक सामक्यो लागींच्यो आसात. बाल्टिक आनी स्लाव्हिक भासांतलें सारकेपण मतींत घेवन तांची 'बाल्टो-स्लाव्हिक' अशी एकूच शाखाय मानतात. इंडो-युरोपियन भाशेंत न स्वराचो लिथुएनियन भाशेंत इन आनी स्लाव्हिक भाशेंत एं जाता, स्वरमध्यस्थ व्यंजनयुग्मां फकत व्यंजनां जातात, षष्ठी एकवचनाच्या जाग्यार पंचमीचो उपेग आदी.

८. **आर्मेनियनः** हे भाशेच्यो बोली दक्षिण कॉकेशस वाठारांत आनी भोंवतणच्या वाठारांत उलयतात. तिचो पुरावो पांचव्या शतमानासावन मेळटा. इंडो-युरोपियन न, म स्वरांचे अन, अम जावप; अंत्य अवयवाभायर हेरकडेन इ ना जावप, इंडो-युरोपियन सघोष व्यंजनां निर्घोष जावप, हीं आर्मेनियनचीं खाशेलपणां आसात.

९. **आल्बेनियनः** आल्बेनियन भाशेची माहिती पंदराव्या शतमानासावन मेळटा. ती बरीच उत्क्रांत जाल्ली आसून तिच्या शब्दसंग्रहांत लॅटीन, ग्रीक, तुर्की, स्लाव्हिक आनी इटालियन शब्दांचो आस्पाव आसा. इंडो-युरोपियन ए चो ओ, ओ चो आ, स चो श जावप, अनुनासिकाउपरांत अघोष व्यंजन सघोष जावप हीं हे भाशेचीं खाशेलपणां आसात.

१०. **तोखारियनः** चिनी तुर्कस्तानांत कांय बरपावळ सांपडली. हे बरपावळीचे अवशेश एकामेकांपसून पयस आशिल्ल्या दोन भाशांचे आसून ह्या भाशांचें एकामेकांकडेन सामकें लागींचें सारकेपण आसा. तांचो पुरावो सातव्या शतमानासावन धाव्या शतमानामेरेनचो आसा. तांचें बरोवप भारतीय लिपींत आसून बौध्दधर्मीय आसा.

११. **हिटाइटः** हिटाइट साम्राज्याचे शासकीय बरपावळीच्या अभ्यासावयल्यान अशें दिसता, की ताची एक भास इंडो-युरोपियन पंगडांतली आसा. हें साम्राज्य इ. स. प. सुमार १९०० त उदयाक आयलें आनी सातशीं वर्सां तिगून उरलें. हिटाइटचे नमुने ह्या दोन तोंकांच्या मदले आसात. एशिया मायनरांत बोघाझ-कयला विटांचेर बरयिल्लो कांय मजकूर जे इंडो-युरोपियन भाशेंत आसा, तिका हें नांव दिलां. कांय शब्द, रुपविचार, उच्चारांचीं खाशेलपणां हांचेवेल्यान ही भास इंडो-युरोपियन आशिल्ल्याचें दिसून येता.

**इंडो-युरोपियन व्याकरण- ध्वनिपध्दतः** इंडो-युरोपियन खूब स्वरव्यंजनसमृध्द आसा. ऱ्हस्वदीर्घ आ, इ, उ, ए, ओ आनी *अ हे शुध्द आनी आइ, अइ, आउ, *अउ, एइ, एउ, ओइ, ओउ (आ, ए, ओ, ऱ्हस्व वा दीर्घ) हे संयुक्त स्वर तातूंत आसात. न, म, र, ल हे केन्द्राय स्वरुय आसूंक शकतात, जाल्यार इ आनी उ हांचो व्यंजनासारकोय वापर जाता.

व्यंजनां अशीं आसातः स्फोटक - क, ख, ग, घ; मृदुतालव्य, शुध्द आनी ओष्ठ्य- च, छ, ज, झ; त, थ, द, ध; प, फ, ब, भ घर्षक - स, झ अर्दस्वर - य, व कंपक - र, पार्श्विक - ल अनुनासिक - म, न, ञ, ङ. शब्दांतलो एक स्वर आघातयुक्त आसता.

**रुपविचारः** हे भाशेंत विकारयुक्त आनी विकारशून्य अशीं दोन तरेचीं रूपां आसात. विकारयुक्त रुपांचे दोन प्रकार आसतात. मूळ अर्थसूचक विकारविरयत रुप म्हळयार धातू आनी प्रत्यय, उपसर्ग हांकां लागून सिध्द जाल्लें रूप हें वाक्यांतलें कार्यक्षम रुप.

नाम आनी क्रियापद वेगळें आसलें तरी कार्याप्रमाण एकूच धातू कसलेंय रुप घेवंक शकता. नाम सचेतन (स्त्री वा पुरुषवाचक) आनी अचेतन आसता. विभक्ती प्रत्ययाक लागून ताचें कार्य स्पश्ट जाता. नाम, सर्वनाम, विशेषण हांचो रुपांचे नदरेन एकूच वर्ग आसता. दोन नामधातूंचो समास जावं येता आनी तातूंतल्या आद्यपदाक विकार जायना. क्रियापदाची विकारप्रक्रिया क्लिश्ट आसा. क्रियापद पूर्ण, अपूर्ण, चालू ह्यो अवस्था दाखोवपी आसता. परनिश्ठ आनी आत्मनिश्ठ हे दोनूच प्रयोग आसून कर्मणी प्रयोग फुडें दरेक भाशेन स्वतंत्रपणान सिध्द केलो. विकारक्षम शब्दाचें कार्य स्पश्ट आशिल्ल्यान वाक्यरचनेंत तो खंयूय येवंक शकता. उच्चारांत बदल करून प्रस्नवाचक विधान आनी 'न' सारकें रुप लावन नकारार्थी विधान तयार जाता.

ही भाशिक पध्दत वेगवेगळ्या भासांत सामक्या भिन्न मार्गांनी बदलली. व्यंजनपध्दत सोपी जाली. कांय स्फोटक, खास करून महाप्राण नश्ट जावन तांच्या जाग्यार घर्षक आयले. मुळांत नाशिल्लीं व्यंजनयुग्मां आयलीं. मृदुतालव्यांत एकूच माळ उरली. स्वरपध्दत कांय भासांत समृध्द जाली, जाल्यार संस्कृतसारक्या कांय भासांत ताची उदरगत जाली ना. आघात नश्ट जालो वा थाराविक अवयवाचेर थिरावलो.

अशे तरेन रुपपध्दत सोपी आनी नियमित जाली. तातूंत स्वरविकाराक व्हडलीशी सुवात उरलीना. ध्वनिपरिवर्तनाक लागून जाल्लो गोंदळ पयस करपाखातीर नवे प्रत्यय, नव्यो प्रक्रिया हांचो आदार घेवचो पडलो. आयज इंडो-युरोपियन भासो संवसारांत सगळ्याक फुडारिल्ल्यो आसात. गुंतागुंतीचो समाजीक वेव्हार परगटावपाचें बळगें तांच्यांतल्या श्रेष्ठ भासांत दिसून येता.

- ना. गो. कालेलकर

संदर्भः 1.Brugmann, Karl-Kurze Vergleichende, Grammatik der Indo-Germanischen sprachen (French Translation), Paris 1905; 2. Cohen, Marcel et Meillet, Antoine, Les langues du monde, Paris 1954; 3. Meillet, Antoine, Introduction a' l' e'tude Comparative des langues indo europe'ennes, Paris 1937. 3.3

**इंडोनेशियाः** आग्नेय आशियांतलें कितल्याशाच जुंव्यांचें एक प्रजासत्ताक राश्ट्र. क्षेत्रफळ- १९,०४,३४५ चौ. किमी. लोकसंख्याः १,६१,६३२,००० (१९८४). लोकसंख्येचे नदरेन चीन, भारत, सोविएत युनियन, अमेरिकेची संयुक्त संस्थानां हांच्या फाटल्यान जगांत इंडोनेशियाचो पांचवो क्रमांक लागता. अक्षवृत्तीय विस्तार ६° उत्तर ते ११° दक्षिण आनी रेखावृत्तीय विस्तार ९५° उदेंत ते १४१° उदेंत. चडांत चड उदेंत-अस्तंत अंतर ५,०२९ किमी. आनी दक्षिण-उत्तर अंतर २,०११ किमी. हाचे उत्तरेवटेन दक्षिण चीनी दर्या आनी पॅसिफिक, उदेंतेक पॅसिफिक आनी नैऋत्य ह्या दिकांनी हिंदी महासागर आसा. मलाया द्वीपकल्पाच्या (peninsula) उदेंतेवटेन न्यू गिनी जुंव्यांमेरेन इंडोनेशियाचो वाठार पातळिल्लो आसा आनी तातूंत जावा, सुमात्रा, मादुरा, नुसातेगारा (बाली ते तिमोर मेरेनच्या जुंव्यांचो चोमो), मोलूकू (मोल्यूकस), सुलावेसी (सेलेबीझ), कालीमांतान (बोर्नीओचो वाठार), अस्तंत ईरीआन (न्यू गिनीचो अस्तंत वाठार), तिमोर जुंव्यांचो कांय वाठार आनी सुमार ३,००० ल्हानसान जुंवें हांचो आस्पाव जाता. आशिया आनी ऑस्ट्रेलिया हांकां जोडपी पूल अशें ह्या देशाक म्हण्टात. जाकार्ता ही इंडोनेशियाची राजधानी जावन आसा.




**भूंयवर्णनः** धर्तरी अस्तित्वांत आयल्या उपरांतच्या सुरवातीच्या काळांत आशिया आनी ऑस्ट्रेलिया हे खंड एकामेकांसावन वेगळे जाता आसतना दोंगरांच्या हालचालींक लागून मलायासावन न्यू गिनी मेरेनच्या जुंव्यांची निर्मणी जाली, अशें शास्त्रज्ञांचें मत आसा. सुमात्रा, जावा आनी बोर्निओ हांच्यामदलो वाठार पयलीं आशिया खंडाचोच वांटो जावन आशिल्लो, जाल्यार न्यू गिनी ऑस्ट्रेलियाचो वांटो आशिल्लो. दोनूय वाठारांनी पोरन्या फातरांचे अवशेश मेळटात; तशेंच हांगाचे दर्याय चड खोल नात. दर वर्सा सुमार १,५०० भूंयकांप जाल्याची नोंद मेळटा, जाल्यार वट्ट ३०० परस चड आशिल्या ज्वालामुखींतले पन्नास अजून जागृत आसात. जावा आनी सुमात्रा हांच्यामदीं आशिल्ल्या क्राकाटाऊ जुंव्याचेर १८८३ वर्सा जाल्लो ज्वालामुखी जगांतलो सगळ्यांत व्हड अशें मानतात. ह्या ज्वालामुखीक लागून अर्दो जुंवो नश्ट जालो, १५० किमी. मेरेन ताचो आवाज आयकूंक आयलो आनी सुमार ३०,००० लोक मेले. दर्यांत उत्पन्न जाल्लीं ल्हारां ६,०००-८,००० किमी. पयस मेरेन जाणवलीं. ज्वालामुखी फुटतकच जो धुल्ल भायर सरलो, तो मळबावटेन कितलेशेच किमी. वयर पावलो. हो धुल्ल तीन दीस पृथ्वीभोंवतणी घुंवत रावलो आनी ताका लागून हवामान सगळेकडेन मोड आशिल्ल्याभशेन जालें. हेर ज्वालामुखी इतले भयांकृत नाशिल्ले. ह्या ज्वालामुखीक लागून देशाक लुकसाण जालें. पूण कांय काळान जमीन चड पिकाळ जाल्ल्यान देशाक फायदोय जालो. इंडोनेशियाचे चडशे जुंवे दोंगरी आसात, पूण थोडेच दोंगर ४,००० मी. परस ऊंच आसात. विषुववृत्तीय हवामानाक लागून हांगा बरोच पावस पडटा आनी न्हंयांचे प्रवाह पिकाळ माती आपल्यावांगडा हाडटात.

सुमात्रा (अंडालास) हो सगळ्यांत अस्तंतेकडलो, वायव्य-आग्नेय पातळिल्लो जुंवो. हाचें क्षेत्रफळ सुमार ४,७३,६०६ चौ. किमी. इतलें आसा. जावा आनी मादुरा हांचें क्षेत्रफळ १,३२,१०७ चौ. किमी. हे सगळ्यांत चड पिकाळ आनी दाट लोकवस्ती आशिल्ले जुंवे. जावांत सुमार शंबरांवयर ज्वालामुखी आसात आनी तांतले सतरा जागृत आसात. जावाचे उदेंतेवटेंतले जुंवे नुसा तेंगारा (क्षेत्रफळ ६८,०५३ चौ. किमी.) वा ल्हान सूंदा जुंवे म्हूण नामनेक पावल्यात. हातूंतले लाँबॉक, बाली, सूंबावा, फ्लोरेस, सूंबा आनी तिमोर हे म्हत्वाचे. हांची भूंयरचणूक जावासारकीच आसा.

जावाचे उत्तरेवटेन बॉर्निओ हो जगांतलो तिसरो व्हड जुंवो आसा. हातूंतलें ७२% म्हळ्यार ५,३९,४६० चौ. किमी. क्षेत्रफळ इंडोनेशियाच्या सत्तेखाला आसा. हाका कालीमांतान अशें म्हण्टात. हो वाठार, दोंगरी, ऊंच रानांनी भरिल्लो आनी कांय जाग्यांचेर चिखलाचो आसल्याकारणान फाटींच उरला. बारीतो, कापूआस, माहाकाम, मेंटावाय ह्या न्हंयांकलागून कांय पिकाळ मळां तयार जाल्यांत. ह्या न्हंयांतल्यान येरादारीय चलता.

बोर्निओचे उदेंतेक सूलावेसी जुंवो आसा. हाचें क्षेत्रफळ १,८९,०३५ चौ. किमी. हो वाठार चड दोंगरी आशिल्ल्यान फाटीं उरला. हांगा बरेच ज्वालामुखी आसात. तांतले ३ जागृत आसात. हाचे उदेंतेवटेन मोलूकू जुंव्यांचो चोमो आसा. हातूंत मोरोताइ, हॅल्माहेरा, तेर्नाते, तिडॉर, माकियान, ओबी, सुला हे उत्तरेवटेनचे जाल्यार बुरु, सेराम, अँबोइना, बांदा, काइ, आरू, तानिंबार, वेतार हे दक्षिणेवटेनचे जुंवे आसात.

मोलूकूफुडें न्यू गिनीचो अस्तंत वाठार इरीयान आसा. हाचें क्षेत्रफळ ४,२१,९५१ चौ. किमी. आसा. हो वाठार रानांचो, दोंगरी आनी चिखलान भरिल्लो आसा. नासो, चार्ल्स लुई, ओरान्ये ह्यो कांय पर्वतांच्यो वळी वायव्येवटेंतल्यान आग्नेयेवटेन गेल्यान येरादारी कठीण जाल्या. हातूंतले कांय दोंगर ४,५०० मी. परस ऊंच आसात. जुंव्यावेल्या दोंगरांमदीं जगांत सगळ्यांत ऊंच दोंगराचें तेमष 'कार्स्टेन्झ' (५,०३० मी.) हांगा आसा. मांबेरामो, सेपिक, फ्लाय, दिगुल ह्यो न्हंयो आसात.

**हवामानः** सादारणपणान ह्या देशाचें हवामान उशण आनी ओलसाणीचें आसा. जून ते ऑक्टोबर आनी नोव्हेंबर ते फेब्रुवारी हे आठ म्हयने मॉन्सून आनी ईशान्य वाऱ्याक लागून बरोच पावस पडटा. दर्यादेगेलागच्या वाठारांनी हवामान सुमार २७° से. आसता. सामकेंच चड आनी उण्यांतल्या उण्या हवामानांत चडूच जाल्यार ३° से. चो फरक आसता. ताका लागून हांगा विंगडविंगड ऋतू नात. ऋतूंच्या बदलाक हवामान दर्याथराच्या उंचायेचेर बदलता. वर्साक हांगा सुमार २०० सेंमी. परस चड पावस पडटा. दोंगरी वाठारांनी पावसाचें प्रमाण चड आसा. कांय वाठारांनी तर तें ६०० सेंमी. परसय चड आसा. त्या मानान दक्षिणेवटेन पावस उणो पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजातः** इंडोनेशियांत तरेकवार वनस्पत सांपडटा. आशिया आनी ऑस्ट्रेलिया खंडांतल्या रुखाचे प्रकार हांगा आसात. चड पावसाच्या वाठारांनी सदांच पाचवीचार उरपी पावसाचीं रानां, चिखलाच्या वाठारांनी खाशेले प्रकारची वनस्पत आनी उण्या पावसाच्या वाठारांनी पानां झडपी रुख आसात. इंडोनेशियाचो ६०% वाठार रानांनी भरला. रानांतले हे संपत्तीचो अजून पुरायतरेन उपेग केल्लो ना. कोंड्याचे सुमार २५० परस चड प्रकार, तर चिखलाच्या वाठारांनी वाडपी वनस्पतीचे सुमार तीस प्रकार, तशेंच ताड, माड ह्या झाडांचे देडशें प्रकार आनी मॅपल, ओक हे सारकी वनस्पत हांगा वाडटा. सूंबा जुंव्याचेर चंदन सांपडटा.

माकड, ओरांग उटांग, वाग, वांस्वेल, हिप्पोपोटॅमस, हत्ती, हरण, कांगारु, सोरेप, मानगीं हे सारकी मोनजात विंगडविंगड वाठारांनी आसा. उदेंत वाठारांत सोबीत पाखां आशिल्लीं सुकणीं आसात. दर्यांत तरेकवार नुस्तें मेळटा.

**इतिहासः** जावांत केल्ल्या उत्खननांत कितल्याशाच हजार वर्सांपयलींच्या जावामनशाची कवटी मेळळी, तरी इंडोनेशियाच्या क्रिस्त पयलींच्या इतिहासाची चडशी माहिती मेळना. इ.स. पयल्या शेंकड्यांत भारतांतल्यान हिंदू आनी बौध्द लोक हांगा पावले. त्या काळांत मलायोपॉलिनीशियन वंशाचे लोक हांगा रावताले. भारतीयांचें कांय वाठारांचेर राज्य आशिल्लें, पूण समेस्त लोकांचेर तांचो चडसो परिणाम जालो ना. फुडारिल्ल्या वर्गाचेर मात संस्कृत भाशा आनी हिंदू संस्कृताय हांचो बरोच परिणाम जालो आनी तो आयजमेरेन जाणवता. आठव्या आनी णव्या शेंकड्यांत शैलेंद्र नांवाच्या जावांतल्या बौध्द राज्यांत हिंदू आनी इंडोनेशियन संस्कृतायेची बरेतरेन भरसण जावन थंय बौध्द साहित्य आनी हिंदू संस्कृताय हांचो प्रभाव पडलो. ह्या काळांत हांगा बोरोबूदुर आनी हेर व्हड व्हड स्तूप बांदले. शैलेंद्र राज्याची शक्त उणी जातकच त्या राज्याची सुमात्रांतली पार्लेबांग ही राजधानी आशिल्लें श्रीविजय आनी जावांतले माजापाहित अशे दोन कुडके जाले. फुडें माजापाहित राज्य काबार जावंच्या वेळार मलॅकाच्या बंदरांत वेपाराच्या निमतान अरब लोक आयले. वेपारावांगडा तांणी इस्लाम धर्माचो प्रसार चालू केलो. माजापाहित उपरांत कितलींशींच ल्हान सान राज्यां चीनचे सत्तेखाला आयलीं, पूण चिनी संस्कृताय हांगा रिगूंक पावली ना. १५ व्या शेंकड्याच्या शेवटाक आफोंस द आल्बुकॅर्क हो पोर्तुगेज हांगा पावलो, तेन्ना हांगा इस्लाम धर्म पुरायणपणान रिगून गेल्लो. फुडें रोखडेंच तेर्नातेच्या सुलतानाच्या आपोवण्याक लागून आल्बुकॅर्कान मलॅकाचेर जैत मेळयलें. तेर्नातेच्या सुलतानान पोर्तुगेजांक लवंगां आनी हेर मसाल्याच्या वेपारांत कांय सवलती दिल्यो. ह्या काळार मसाल्याचो वेपार अरब आनी जावानीज वेपाऱ्यांच्या हातांत आशिल्लो. ल्हवल्हव पोर्तुगेजांनी तो आपल्या हातांत घेवन अँबोइना जुंव्याचेर आपले वसाहतीची थापणूक केली (१५३७). हेवटेन जावांतल्या बौध्द धर्मीयांवांगडा पोर्तुगेज इश्टागत करता आसतना अरबांनी जावांतच मातारम आनी बांटम अशा दोन स्वतंत्र राज्यांची थापणूक केली. पोर्तुगेजांफाटल्यान ब्रिटीश आनी डच ह्या वाठारावटेन पावंक लागले. ताका लागून सतराव्या शेंकड्यांत हांगा ब्रिटीश आनी डच इस्ट इंडिया कंपन्यांची थापणूक जावन दोगांयमदीं वेपाराक लागून सर्त लागली. डचांनी अँबोइना आनी तेर्नातेचेर १६०५ वर्सा जैत मेळयलें, जाल्यार १६०९ मेरेन तांणी चडसो मसाल्याचो वेपार आपल्या हातांत घेतलो. फकत तिमोराचेर पोर्तुगेजांची सत्ता उरली. १६२३ वर्सा अँबोइनाचेर ब्रिटिशांक काबार करून पुराय सत्ता डचांनी मेळयली. सतराव्या शेंकड्याच्या मध्याक कंपनी उदरगतीक पावली. अठराव्या शेंकड्यांत ब्रिटिशांआड जाल्लीं चार झुजां, कंपनीची वायट परिस्थिती, हांकां लागून इंडोनेशियावेलो डचांचो शेक उणो जाल्यावरी दिसूंक लागलो. १७९९ त डच सरकारान इस्ट इंडिया कंपनीचो कारभार आपल्या हातांत घेतलो. नेपोलियनान हॉलंडचेर जैत मेळयल्या उपरांत १८११-१५ मेरेन हांगाचो कारभार काबार जाल्लो, पूण व्हिएन्ना कबलातीक लागून पर्थून हो वाठार डचांच्या हातांत आयलो. ह्या वेळार जावांतल्या लोकांनी तांच्याआड झूज मांडलें, 'जावा झूज' नांवान नामनेक पाविल्लें हें झूज १८२५-३० मेरेन चल्लें. ह्या झुजाक लागून आनी १८३०-३९ च्या बेल्जियमाआडच्या झुजाक लागून डचांचें बरेंच अर्थीक लुकसाण जालें. हाका लागून तांणी इंडोनेशियांतल्या लोकांचेर अर्थीक आनी उद्येगीक बंधनां घालीं. हाचो डचांक बरोच फायदो जालो. पूण इंडोनेशियन लोक दळिद्री जाले हाचेफुडें १९४२ त जपानाच्या घुरयेमेरेन डचांनी हे वसाहतीचो बरोच लाव घेतलो. हांगाच्या राज्यकारभाराचीं, अर्थवेवस्थेचीं सुत्रां तांच्या पुराय शेकाखाला आशिल्लीं. दुसऱ्या म्हाझुजाक सुरवात जावंचे आदीं इंडोनेशियाक थोडीभोव मेकळीक दिली आनी वसाहतीचें रूप बदलून ताका नेदरलँड्सच्या एका राज्याचें रूप आयलें. १४ फेब्रुवारी १९४२ दिसा जपानान पयलीं सुमात्रा आपले सत्तेखाला घेतलें आनी इंडोनेशियन लोकांच्या डच विरोधाक लागून पुराय देशाचेर जैत मेळोवंक तांकां सामकेंच सोपें जालें. १९४२ ते १९४५ चे जपानी सत्तेखाला इंडोनेशियांत स्वतंत्रतायेचे विचार मुखार येवंक लागले. सूकार्नो, हाट्टा सारक्या फुडाऱ्यांनी लोकांमदीं जागृताय हाडली. १७ ऑगस्ट १९४५ दिसा सूकार्नोन इंडोनेशियन लोकांचे स्वतंत्रतायेची घोशणा केली आनी संविधान तयार करून इंडोनेशियन लोकांचें स्वतंत्र मंत्रीमंडळ तयार केलें. इश्ट राश्ट्रांनी झूज सोंपता सोंपता म्हळ्यार जपानी लश्कराक थंयसावन धांवडावन पर्थून डच सत्ता हाडपाचो यत्न केलो. ताका लागून डच सरकार आनी इंडोनेशियन जनता हांच्यामदलो संघर्श वाडूंक लागलो. स्वतंत्रताय चळवळीचो नेट मतींत दवरून इश्ट देशांनी डच सरकाराक इंडोनेशियन फुडाऱ्यांवांगडा भासाभास करूंक फुडें काडलें. १९ जानेवारी १९४९ दिसा इंडोनेशियाच्या प्रजासत्ताक सरकारान डचांवांगडा रेनव्हिल हांगां कबलात केली. पूण फुडलो कांय काळ इंडोनेशियन जनता आनी डच हांच्यामदलीं झुजां चालूच उरलीं. निमणें २७ डिसेंबर १९४९ दिसा डचांनी ह्या देशाची स्वतंत्रताय मान्य केली. फकत न्यू गिनीच्या वाठाराचेर वाद चालूच उरलो. नवें संविधान तयार जालें आनी नोव्हेंबर १९५५ त, पयली वेंचणूक जाली. हे वेंचणुकेंत खंयच्याच पक्षाक स्पश्ट भोवमत मेळूंक पावलें ना. ताका लागून भरसल्लें मंत्रीमंडळ अस्तित्वांत आयलें. १९५५ उपरांत पक्षांमदीं झुजां सुरु जालीं. १९५९ त अध्यक्ष सूकार्नो हाणें घटनासमिती रद्द करून १९४५ च्या संविधानाक मान्यताय दिली आनी सगळी सत्ता आपल्या हातांत घेतली. १९६३ त संयुक्त राश्ट्रांच्या यत्नांनी न्यू गिनीचो वाठार इंडोनेशियाच्या हाताखाल आयलो. साम्यवाद्यांनी १९६५ त सरकार उडोवपाचो यत्न केलो. पूण सैन्य धाडून साम्यवाद्यांची चळवळ चिड्डून उडयली. ह्याच काळार मलेशिया निर्माण जाल्यान इंडोनेशियन फुडाऱ्यांनी निदर्शनां करूंक सुरवात केली. निमणें ११/१२ मार्च १९६६ दिसा जनरल सुहार्तो हाणें आपलें सैन्य वापरुन सगळी सत्ता आपल्या हातांत घेतली. अशे तरेन सगळो राजकी बोवाळ बंद जालो. सूकार्नो फकत नांवापुरतो अध्यक्ष उरलो. कम्युनिस्ट पक्षाक बेकायदेशीर थारायलो आनी सगळे पक्ष रद्द केले. २२ फेब्रुवारी १९६७ दिसा सूकार्नो निवृत्त जालो आनी १९७० त, ताका मरण आयलें. १९६८ त सुहार्तोची पांच वर्सांखातीर अध्यक्षपदाचेर नेमणूक जाली. १९७३ त,

जाल्ल्या वेंचणुकांतय ताकाच पर्थून जैत मेळ्ळें. आयजमेरेन सुहार्तो होच ह्या राश्ट्राचो अध्यक्ष जावन आसा.

**राज्यवेवस्थाः** इंडोनेशिया एक स्वतंत्र आनी सार्वभौम राश्ट्र आशिल्ल्याची घोशणा १९४५ त केल्ली. १९४५ त आनी फेब्रुवारी आनी ऑगस्ट १९४९ त तात्पुरतीं संविधानांय तयार जाल्लीं, पूण १९५९ सावन १९४५ चें संविधान मान्य केलां. अध्यक्ष आनी पंतप्रधान एकूच आसा आनी सगळी सत्ता ताच्या हातांत आसा. लोकांनी वेंचून काडिल्ली सभा अध्यक्ष थारायता आनी राश्ट्रीय धोरण थारायता. अध्यक्षाच्या पालवान प्रतिनिधीमंडळ कायदो चलयता. सरकाराक म्हत्वाच्या कामांनी बुध्द दिवपाखातीर एक सगळ्यांत उंचल्या पांवड्यावेलें मंडळ आसता आनी अध्यक्ष होच ह्या मंडळाचो मुखेली आसता. शासनाच्या सोपेपणाक लागून इंडोनेशियाचे २७ प्रांत केल्यात. इंडोनेशियन मंत्रीमंडळाच्या कायदोमंत्र्याकडेन कायदो खातें आसा. मुळावें, जिल्हो आनी सगळ्यांत उंचलें अशीं न्यायालयां आसात. प्रतिनिधीमंडळांत ५०० लोकप्रतिनिधी आसात. हातूंतले ४०० जाण थेट वेंचणुकांतल्यान प्रतिनिधीमंडळांत येतात, जाल्यार १०० जाणांची नेमणूक जाता.

**अर्थीक स्थितीः** इंडोनेशियांतले ७०% लोक शेतवडीचेर जियेतात. राश्ट्रीय उत्पन्नाचो ५०% परस चड वांटो शेतांतले पिकावळींतल्यान येता. तांदूळ, रबर, च्या, काफी, नाल्ल, मिरयां आनी हेर मसाल्याचे पदार्थ, काटेसावर, तंबाखू, मसमी भिकणां, ताडाचें तेल, मको, ऊंस, सोयाबीन हीं हांगाचीं मुखेल पिकां जावन आसात.

आग्नेय आशियांतल्या पेट्रोल उत्पादकांतलो इंडोनेशिया मुखेल आसा. सुमात्रा, कालीमांतान, जावा आनी मादुरा ह्या चार जुंव्यांचेर खनिज तेलाच्यो व्हडल्यो बांयो आसात. पयलीं डच-अमेरिकेच्या मालकेचो आशिल्लो हो धंदो १९६० सावन सरकारी नियंत्रणाखाल आयलो. कथिल, बॉक्साइट, कोळसो, निकेल, मँगनीज ही खनिजसंपत्ती हांगा बरीच आसा. तेभायर कांय प्रमाणांत तांबें, भांगर, चांदी हांच्योय खणी आसात. शिमीट, सारें आनी हेर शेतवडीक लागपी वस्तूंचे कारखाने हांगा आसात. लांकूड उद्येग आनी नुस्तेमारी हेय हांगाचे मुखेल उद्येग जावन आसात. जपान, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां आनी नेदरलँड्स ह्या देशांनी हांगाच्या उद्येगांभितर आपलें भांडवल घालां. इंडोनेशियाच्या निर्यातीभितर रबर, च्या, मिरयां, सिसल, खोबरें, खनिज तेल, कथील, ताडतेल आनी ताचीं हेर उत्पादनां हांचो आस्पाव जाता. आयातीभितर तांदूळ, रसायनां, यंत्रां, कागद हांचो आस्पाव जाता.

रुपीयाह हें हांगाचें चलनी नाणें. पर्यटनाक लागून ह्या देशाक बरेच फायदो जाता. १९८६-८७ वर्सा इंडोनेशियाक ८,२५,०३५ पर्यटकांनी भेट दिली. पर्यटनाचो धंदो वाडोवपाखातीर सरकारी पांवड्यावेल्यान नेटान यत्न चल्ल्यात.

**येरादारी आनी संचारणः** ह्या देशांत १९७८ मेरेन ८९,३८० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. १९८५ मेरेन रस्त्यांचेर धांवपी ६४,२५,२४० वाहनांची नोंद जाल्ली, एका वर्साभितर ती ६.३२% नी वाडून १९८६ त ७२,६३,१८८ मेरेन पावली. रेल्वेमार्गांची लांबाय ७,८९१ किमी. आसा. चडशे रेल्वेमार्ग जावा जुंव्याचेर आसात. हो देश बऱ्याच जुंव्यांचो आसल्या कारणान हांगा उदकांतली येरादारी सगळ्यांत म्हत्वाची. सगळ्या जुंव्यांचेर 'पेलारजन नॅशनल इंडोनेशिया' नांवाची राश्ट्रीय संस्था येरादारी चलयता. तेभायर हेर देशांकडेन उदकांतल्या मार्गांनी इंडोनेशिया आयातनिर्यातीचो वेपार करता. 'गरुडा इंडोनेशिया' ही हांगाची हवाई येरादारी सांबाळपी संस्था. ही संस्था आंतरराश्ट्रीय मार्गांचेर येरादारी करता, जाल्यार 'मेरापाटी नुसांतरा एअरलायन्स' ही संस्था देशाभितरल्या येरादारीचेर नियंत्रण करता. हांगा 'मंडाला' आनी 'बौराक इंडोनेशिया' ह्योय विमान कंपन्यो आसात.

१९७७ मेरेन हांगा ३,४७,००० दूरध्वनींची नोंद जाल्ली. जातीलुहार ह्या धर्तरेचेर उबारिल्ल्या उपग्रेयाक लागून ऑस्ट्रेलिया, जपान, युरोप आनी आशियांतल्या मुखेल शारांलागीं इंडोनेशियांतल्यान दूरध्वनीवरवीं संपर्क साधूंक येता.

सुमार २३,५८,००० खप आशिल्लीं १७८ खबरांपत्रां हांगा उजवाडाक येतात. कॉंपास, सिनार हरपन, मर्डेका बेरिता बुआना, पोस कॉता हीं मुखेल जावन आसात.

**लोक आनी समाजजीणः** इंडोनेशियांतले चडशे लोक मलेशियन ह्या मंगोलॉइड वंशाच्या एके पोटजातीचे आसात. ते मोटवे, कांय प्रमाणांत कोंगऱ्या केंसाचे आनी कोरान उजळ आसात. मूळ मंगोलियन वांशिकांचो हिंदू, अरब, चिनी ह्या लोकांलागीं संकर जाल्ल्यान इंडोनेशियांतले मलेशियन वंशाचे लोक वेगळे जाल्यात. मूळ मंगोलियन वंशाचे लोक सामक्या उण्या प्रमाणांत सुमात्रा, तिमोर, मोलूकू, ईरीआन ह्या वाठारांनी दिश्टी पडटात. श्रीलंकेंतल्या 'वेद्दा' जमातीसारकी ही इंडोनेशियांतली जमात दिसता. हांगा विंगडविंगड संस्कृतायेचे लोक आसात. तांतले मुखेल अशेः १. शिकारी आनी हेडग्या जमातीचे कालीमांतान हांगासरले 'पूतान' लोक. ते सामकेच फाटीं उरल्यात असल्या प्रकारचे कांय लोक सुमात्रा जुंव्याचेरुय आसात. तांकां 'कुळू' अशें नांव आसा. हालीं हे कुळू लोक शेतवडीच्या आदारान जियेतात. कुळूंपरस मात्शे सुदारिल्ले सुमात्रांत ओरांग लाऊरँ हे लोक आसात. २. जावानीजः हे लोक मध्य आनी उदेंत जावांत रावतात. हे मलायो-पॉलिनीशियन भाशा उलयतात. हिंदू-जावानीज अशी हांची भरसल्ली संस्कृताय आसा. हांच्यामदली 'बोरोबूदूर' ही उपजात सुदारिल्ली आसा. हांची संख्या साडेतीन कोटींच्या वयर आसा. ते बऱ्यापैकी तांदूळ पिकोवपी आसात. हांच्या लिपीक 'कावी' अशें म्हण्टात. ३. सूंदनीजः सूंदा जुंव्याचेर आनी अस्तंत जावांत हे लोक रावतात. हे धर्मान चडशे मुसलमान आसात. कावी आनी अरबी ह्यो दोन लिपी ते वापरतात. ४. बादुईः अस्तंत जावांतल्या केंडेग हांगाच्या दोंगरी वाठारांत रावपी ही जमात. अलंकार वापरप, गादयेचेर न्हिदप, वाहनांनी बसप ह्यो गजाली ते निशिध्द मानतात. मुसलमानांच्या घुरयांक लागून घडये हे लोक दोंगरांनी रावल्यात अशें कांय जाणांचें मत आसा. ५. टेंगेरेसेः उदेंत जावांतली टेंगेर रानांत रावपी ही जमात. हे हिंदूधर्माचे अभिमानी आसात. तांची संस्कृताय हिंदू-इंडोनेशियन आसा. ६. मेनांगकाबाऊः ओरांग मेनांगकाबाऊ वा मेनांगकाबाडा ह्या नांवान हे जमातीक वळखतात. हे सुमात्रांत रावपी लोक चडशे धर्मान मुसलमान आसात. तांची संख्या २.५० कोटींच्या वयर आसा. शेतवड, गोरवां पोसप, वेपार हातूंत ते चड हुशार आसात. कपडे विंणप, लांकडी नक्षीकाम, धातूंच्या आयदनांवेली कलाकुसर ह्या गजालीनीय ते बरेच हुशार आसात. हांची कुटुंबसंस्था मातृप्रधान आसा. ७. बटाकः मध्य सुमात्रात टोबा तळयाच्या वाठारांत रावपी हे लोक. मुसलमान आनी किरिस्तांव अशे दोनूय धर्म हे जमातींत सांपडटात. ८. आजिनीः हे उत्तर सुमात्रांत रावतात. हांची भास आनी लिपी अरबी. धर्मान ते मुसलमान आसात. सुमार देड कोटी आशिल्ल्या ह्या लोकांचें साहित्य बरेंच आसा. ९. लांपाँगः ही मुसलमान धर्माची जमात दक्षिण सुमात्रांत सांपडटा. हातूंतल्या मळांनी रावपी लोकांक ओरांग बाबीयान जाल्यार दोंगरांनी रावपी लोकांक आरांगा आबोंग अशें म्हण्टात. ह्या लोकांचें मुखेल पीक म्हळ्यार तांदूळ आनी मिरयां. १०. कुबूः पालेंबांग आनी जांबी वाठारांत हे लोक रावतात. मुसलमान धर्माचे हे लोक शिकार, रानांतलीं फळां पुंजावप हाचेर जियेतात. ११. गायोः मध्य सुमात्रांतले दाट रानांनी रावपी हे लोक धर्मान मुसलमान आसात. १२. बुगिनीजः हांकां बुगी अशेंय म्हण्टात. हे लोक सूलावेसी हांगा रावतात. धर्मान मुसलमान आसले तरी हांचेर हिंदू संस्कृतायेचो प्रभाव दिसता. हे लोक व्हडीं बांदपांत नांवाजिल्ले आसात. तांतले कांय जाण कालीमांतान हांगा येवन रावल्यात. १३. तोडरजाः हे मध्य सुलावेसीच्या दोंगराळ वाठारांत रावपी हे लोक किरिस्तांव धर्माचे आसात. १४. मेनाडोनीः उत्तर सूलावेसींतल्या मीनाहासा वाठारांत रावपी ही जमात धर्मान किरिस्तांव आसा. हांची भाशा आनी बोली चडशी फिलिपीनी भाशा आनी बोलीक लागींची

आसा. १५. मकासरीः हे लोक नैऋत्य सूलावेसींत रावतात. तांची आनी बुगिनी लोकांची संस्कृताय एकसारकी आसा. हे चडशे मुसलमान धर्माचे आसात. १६. दायाकः कालीमांतानांतल्या लोकांक, जे मुसलमान नात तांकां दायाक म्हण्टात. मलायी भाशेंत जो मुसलमान न्हय, तो दायाक असो अर्थ जाता. हांचे दुसून, मुरुन, क्लेमंतान, कलावित, मेलानाडा, हबन, वा दर्यावेले दायाक, खुश्की दायाक, बाहाऊ, कायन, केन्याह, ओतू- दानोत, ओलो-अंगाडूजू, पूनान अशे पोटवांटे आसात. १७. बालीनीजः बाली आनी लाँबॉक जुंव्यांचेर हे लोक रावतात. हे चडशे हिंदू आसात आनी तांची संस्कृतायय हिंदू आसा. ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र हे हिंदू समाजांतले वर्ग हांगाय सांपडटात. रंगकाम, लांकडी आनी धातूंवेले नक्षीकाम, कपडे विणप, संगीत, नृत्य ह्या कलांमदीं ते बरेच हुशार आसात. १८. ससाकः लाँबॉक जुंव्याचेर हे लोक रावतात. मुसलमान धर्माचे हे लोक बरे शेतकार जावन आसात. १९. मादुरीः जावा जुंव्याच्या, मादुरा जुंव्याचेर हे लोक रावतात. हेय चडशे मुसलमानूच आसात. २०. अंबोइनीः मोलूकू द्वीपांच्या चोम्यांतल्या अँबोइना आनी ऊली आसर ह्या जुंव्यांचेर हे लोक राबितो करून आसात. हांच्यामदीं इस्लाम आनी किरिस्तांव हे दोनूय धर्म सांपडटात.

इंडोनेशियाचे सुमार ९०% लोक इस्लाम धर्माचे, ४% किरिस्तांव, ३% हिंदू आनी ३% हेर विंगड विंगड धर्मांचे आसात.

विंगड विंगड धर्मांमदीं एकचार आनी समजिकाय तिगोवन दवरूंक सरकारी पांवड्यावेल्यान यत्न चल्ल्यात. १९८६-८७ मेरेन हांगा वट्ट ६,००,३२९ प्रार्थना मंदिरां आसात. हातूंतल्यो ५,२५,१३७ मुसलमानांच्यो मशिदी, २६,५४७ प्रॉटेस्टंट इगर्जी, १२,१०६ कॅथलिक इगर्जी, ३४,२८३ हिंदू देवळां आनी २,२५८ बौध्द विहार आसात. सरकारी पांवड्यावेल्यान १९८६-८७ वर्सा १४,६९,५४५ पवित्र पुस्तकांच्या प्रतींचें वांटप जालें. हातूंत ११,५६,००० कुराणाच्यो प्रती, १,३५,६०० प्रॉटेस्टंट बायबल, १,००,००० कॅथलिक बायबल आनी ६०,४५५ हिंदूंचे धर्मीक ग्रंथ हांचो आस्पाव जाता.

हांगाचे कलेचेर भारतीय आनी चिनी संस्कृतायेचो बरोच प्रभाव आसा. जोगजाकार्ता हांगा आशिल्ल्या सुलतानाच्या राजवाड्यांत लांकडाच्या खांब्यांचेर कोरीव, रंगीत आनी नक्षीदार काम पळोवंक मेळटा. बोरोबूदुर हांगाचे बौध्द देवूळ भारतीय शैलीचें आसा. उबूद हांगाची भांगरावेली आनी तांब्यावेली कलाकुसर नामनेची आसा. हांगाचे जरीचे आनी हेर कपडेय बरेच नांवाजिल्ले आसात. बांडुंग हांगाच्या ॲफन्डी ह्या चित्रकारान संवसारभर नामना मेळयिल्ली. स्वतंत्रताय मेळ्ळ्या उपरांत झैनी, ओ. एफेन्डी हांचेसारके नामनेचे चित्रकार इंडोनेशियांत जाले.

हांगा पेंडेट, बेदाया, सेरिम्पी, वायांग, केतजाक, वायांग-टोपेंग आनी लिलिन हे मुखेल नाचाचे प्रकार आसात. रामायणांतल्या काणयांचेर आदारित नाटकां, खामसुत्री बावल्यांचे खेळ आनी नृत्य-नाटकां हांगाच्या लोकांमदीं बरींच लोकप्रिय आसात.

ह्या लोकांनी बॅडमिंटन आनी फुटबॉल सारक्या खेळांनी नामना मेळयल्या. गोल्फ, टेनिस, कोंब्याचें झूज, व्हड्यांचे खेळ, पेंवप ह्या सारके खेळ हांगा लोकप्रिय आसात.

सगळ्यातरांचे धर्मीक सण आनी उत्सव हांगाचे लोक मनयतात.

**शिक्षणः** ६२% लोक साक्षर आसात. साक्षरतेच्या मळार इंडोनेशियाचो जगांत ७४ वो क्रमांक लागता. ७ ते १२ पिरायेमेरेन शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसा. शिक्षण मुळाव्या, माध्यमिक आनी उंचल्या अशा तीन पांवड्यांचेर आसा. शिक्षणीक वर्स जानेवारी ते डिसेंबर मेरेन आसता. भाशा-इंडोनेशिया हे भाशेच्या माध्यमांतल्यान शिक्षण चलता, पूण माध्यमिक पांवड्यार इंग्लीश भाशेंतल्यानय शिक्षण दितात. इंडोनेशियांत २८ सरकारी आनी २३ खाजगी विश्वविद्यालयां आसात. हे भायर हांगाचे बरेच विद्यार्थी अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, नेदरलँड्स, ऑस्ट्रेलिया, बेल्जियम, ब्रिटन आनी अस्तंत जर्मनी ह्या सारक्या देशांनी शिक्षण घेतात.

**भाशाः** इंडोनेशियन भाशा मलायो-पॉलिनीशयन भाशा पंगडाच्यो आसात. भाशा-इंडोनेशिया ही जरी राज्यभाशा आसली तरी हांगाच्या लोकांच्यो विंगडविंगड २५ भाशा आनी सुमार २५० बोली आसात.

**म्हत्वाचीं थळांः** जाकार्ता ही इंडोनेशियाची राजधानी आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें केंद्र. बांडुंग, सुराबाया, सामारांग, मेडान, पालेंबांग, मार्कसर, मालांगा, जोगजाकार्ता हीं शारां म्हत्वाचीं आसात. बांडुंग हांगा १९५५ वर्सा आफ्रो-आशियाई राश्ट्रांची पयली परिशद जाल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**इंत्रूजः** इंत्रूज म्हळ्यारच *'कार्नवाल' (*)* अशें म्हणूं येता. तरी आसतना 'इंत्रूज' म्हळ्यार कार्नवालाच्या वेळार सवंगां नाचतात, ताका 'इंत्रूज' अशें म्हण्टाले. हें उतर पोर्तुगेज **intrudo** हाचेवेल्यान आयलां. कार्नवाल हो व्हडलो दबाजो धरलो तर इंत्रूज हो ताचो एक वांटो अशें मानू येता.

इंत्रूज हो किरिस्तांव गोंयकारांचो उत्सव आसलो, तरी माघ म्हयन्यांत कांय इतिहासीक कारणांक लागून हें नांव हिंदूंच्या एका सणाकूय लायलां. हो किरिस्तावांचो सण आसलो तरी हाका किरिस्तांव धर्माची वा इगर्जीची मान्यताय ना.

लोकसंगीत आनी लोकनाचाचें दायज सांबाळपी इंत्रूज ही मौजेची परब, व्हडल्या गोंयांसावन ९ किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या डोंगरी ह्या गांवांत मनयतात. इंत्रूज म्हळ्यार किरिस्तावांचो कार्निवाल जालो तरी डोंगरेर जावपी इंत्रूज म्हळ्यार हिंदूंचो शिगमो कसो मनयतात. हे परबेक इंत्रूज हें नांव कशें पडलें हेविशीं एक गजाल सांगतात ती अशी- 'पोर्तुगेजांच्या काळांत गोंयकारांचेर खूब बंधनां आसतालीं. एक परब मनोवपाची आसल्यार सरकाराकडल्यान मान्यताय घेवंची पडटाली. तातूंत हिंदूंचे परबेक मान्यताय दितना पोर्तुगेज अधिकारी आडमेळीं हाडटाले. देखून, जेन्ना शिगमो करपाक मान्यताय घेवंक डोंगरेवेलीं जाण्टी मनशां गेलीं, तेन्ना तांणी शिगमो म्हणी नासतना इंत्रूज मनोवपाखातीर मान्यताय मागली. ह्या नांवान पोर्तुगेज फटवले आनी तांणी परब मनोवपाखातीर मान्यताय दिली. तेन्नाच्यान डोंगरेवेल्या शिगमोत्सवाक 'इंत्रूज' हें नांव मेळ्ळें.

कार्निवाल आनी इंत्रूज ह्यो दोनूय परबो गोंयांत वांगडाच मनयतात. डोंगरेवेलो इंत्रूज हो गोंयांतलो पयलो शिगमो. 'सुंवारी' आनी 'मेळ' हांकां लागून इंत्रूजाक म्हत्व मेळ्ळां. माघ म्हयन्याच्या कृष्ण पक्षांतल्या पयल्या सुक्राराक ही परब सुरू जाता. ही परब पांच दीस चलता. पयले दीस 'फट्यां-सुंवारी' आसता. ह्या दिसा त्या त्या माटवांतलो लोक एकठांय येता. वर्सभर बंद आशिल्लीं घुमटां, कासाळीं ह्या सारकीं वाद्यां माटवांत हाडटात आनी 'फट्यां-सुंवारी' वाजयतात. ताका फट्यां-सुंवारी हें नांव कशें पडलें तेविशीं एक गजाल सांगतात ती अशी- कोंकणीत फटें म्हळ्यार कांबळ. इंत्रूजाच्या दिसांनी तेन्ना खूब थंडी पडटाली. देखून, घरचे दादले घरा भायर सरता आसतना कांबळ पांगुरताले. कांबळ (फटें) पांगरून वाजयल्ली सुंवारी ती फट्यां-सुंवारी. त्या दिसा हेर खंयचेच धर्मीक सुवाळे करीनात.

इंत्रूजाच्या दुसरे दिसा शेनवाराक बरेंच म्हत्व आसा. त्या दिसा कितलेय पयस गेल्लो गांवचो मनीस सत्री फुलोवंक येता. हेच रातीं इंत्रूजाचे विधींक सुरवात जाता. थंयच्या पांच माटवांतले लोक आपआपल्या माटवांत एकठांय येतात. गुडयो, तोरणां, अब्दागीर सजोवन दवरतात. दिवटी घेवन कुळावी तयार रावतात. शेनाय वाजोवंक आनी शिंग फुंकपाक वंशपरंपरेन काम करपी लोक थंय आसतात. गांवचे जाण्टे लोक शांतादुर्गेक, ग्रामदेव साखळयाक, रवळनाथ आनी पांच पंचिष्टांक गाराणें घालतात, सत्रेच्या देवाक सत्रेर वचून बसपाचें आवाहन करतात. उपरांत झगझगीत दिव्यांच्या उजवाडांत शेमेळ, घुमट आनी कासाळ्यांच्या आवाजान सत्र्यो फुलयतात. उपरांत हो पुराय मेळ गांवांतल्यान भोंवता. व्हडल्या

भाटांतल्यो तीन आनी धाकट्या भाटांतल्यो दोन अश्यो पांच सुंवारी वाजत गाजत इंत्रूजाच्या माटवांत येतात. थंय एक पिंपळाचें पेड आसा, ताच्या मुखार येवन सगळ्यो सुंवाऱ्यो वाजतात.

आयतारा दीस परत्यो सुंवाऱ्यो येतात आनी दरेक घरामुखार भोंवतात. दरेक हुंबऱ्याचेर सगळ्या वाद्यांची पुजा करतात. सुंवाऱ्यो परत्यो माटवांत येतकच नाटकाक सुरवात जाता. व्हडलें भाट आनी धाकटें भाट हांगा दोनूय कडेन दोन नाटकाचे प्रयोग जातात.

सोमारा सांजची देवीची लालखी कागदाच्या फुलांनी सजोवन, तिचेर मेणवाती लावन बँडाच्या तालांत गांवांतल्यान भोंवडायतात. तेन्ना सवायशिणी बायलो देवीक हुंवाळून तिची होंट भरतात. लालखी परती माटवांत येतकच नाटकाक सुरवात जाता.

मंगळारा दिसा मेळ आसता. ह्या दिसा सुंवारी वाजयनात, जाल्यार धोल, ताशे असलीं वाद्यां वाजयतात. पांचूय माटवांची जेन्ना एकठांय मिरवणूक वता, तेन्ना तांकां मेळ म्हण्टात.

बुधवारा दीस गुलाल जाता. चार दिसांची वर्सुकी परब ह्या दिसा सोंपता. निमणे सगळे माटवांत जमतात आनी परब बरे तरेन जाली म्हूण देवाक गाराणें घालतात. सत्रेवेल्या देवाक परतो आपल्या जाग्यार बसपाक सांगतात. बिरेस्ताराक सत्यनारायणाची महापुजा करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**इंदूर:** मध्यप्रदेश राज्यांतलें सगळ्यांत व्हड शार. लोकसंख्या: ८,२७,००० (१९८१). क्षिप्रा न्हंयची उपन्हंय खान आनी सरस्वती हांच्या देगेर इंदूर शार वसलां. मुंबय ते आग्रा ह्या राष्ट्रीय महामार्गाचेर मुंबय सावन ७०४ किमी. ईशान्येक आनी समुद्रथरासावन सुमार ५३० मी. उंचायेचेर इंदूर शार आसा.

१७१५ वर्सा सुर्वेक कंपालाच्या जमीनदारान हांगा वस्ती केली. १७४१ वर्सा हांगा इंद्रेश्वर हें देवूळ बांदलें. ह्या देवळावेल्यानच ह्या शाराक इंद्रपूर- इंदोर-इंदौर आनी इंदूर अशीं नांवां पडलीं. होळकरांची राजधानी महेश्वर वाठारांत आशिल्ली, थंयसल्यान १८१८ वर्सा तांणी ती इंदूराक हाडली. इंदूर हें शार समृध्द माळव्याच्या मुखेल जाग्यार आशिल्ल्यान आनी होळकरांची राजधानी जाल्ल्यान ह्या शाराची नेटान उदरगत जाली.

वेपारी, उद्येगीक आनी शिक्षणीक नदरेन इंदूर शाराक बरेंच म्हत्व आसा. गंव, बाजरी, ह्या सारक्या धान्याची आनी कापसाची, मध्य प्रदेशांतली म्हत्वाची बाजारपेठ म्हळ्यार इंदूर. शारांत सुताच्यो आनी कपड्यांच्यो गिरणी आसात. हांगाच्या इंदूरी साडयांची खूब नामना आसा. ह्या शारांत तेल, कांबळी, अफू, रसायनां, यंत्रां, फर्निचर, खेळाच्यो वस्तू, धातू, दुदाचे पदार्थ, बॉबिन आदी उद्येग चलतात.

आदल्या काळार राजकुंवरांखातीर बांदिल्ले संगमरवरी डेली कॉलेज, तशेंच शेतवड, अभियांत्रिकी, वैजकी महाविद्यालयां ह्या शारांत आसात. १९६४ त सुरू जाल्लें इंदूर विद्यापीठ ह्या शारांत आसा. इंदूर शारांतल्यान खांडवा ते अजमेर रेल्वेमार्ग वता. तशेंच इंदूर ते उज्जैन रेल्वेमार्गाखातीर इंदूर शार नागदा ते भोपाळ रेल्वेमार्गाक जोडलां.

इंदूर शारांत आशिल्लो होळकरांचो प्रासाद, न्हंयेदेगेवेल्यो नक्षीदार सत्र्यो, उद्यानां, ऊंच हवेली हांणी शाराच्या वैभवांत भर घाल्या. हे भायर कंवची, हारसो आनी रंगीत मणी वापरुन बांदिल्ल्या जैन मंदीराचें रुप आगळेंच आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**इंद्र- १:** वैदिक आर्यांचो सगळ्यांत व्हड देव. सादारणपणान मनीस इंद्राक 'देवांचो राजा' मानता. ऋग्वेदांतल्या वट्ट सूक्तांतलीं १/४ सूक्तां इंद्राविशीं आसात. यास्कान इंद्र उतराची व्युत्पत्ती अशी केल्या:

इन्द्रः इरां दृणातीति वा। इरां ददातीति वा। इरां दधातीति वा। इरां दारयत इति वा। इरां धारयत इति वा। इन्दवे द्रवतीति वा। इन्दौ रमत इति वा। (निरुक्त. १०.८)

अर्थ: इंद्र बी फोडून धान्य भायर काडटा वा तो अन्न दुसऱ्याक दिता वा धारण करता वा धर्तरेक खांची घालता वा धर्तरेक धारण करता. इंद्र सोमपानाखातीर धांवत सुट्टा आनी सोमांत रमता.

ऐतरेयोपनिषद् प्रमाण (३.१३.१४) 'इदमदर्शम्' (हें पळयलें) हाचेवेल्यान इदंद्र हें नांव आयलें. फुडें ताचें नांव इंद्र जालें.

वैदिक इंद्रवर्णनांत इंद्राचो स्वभाव आनी ताची आकृती धर्तरेवेल्या मानवी वीराक रंगोवपासारकी रंगयल्या. इंद्राच्या बापायचें नांव 'द्यु' अशें आसून आवयची नांवां जायतीं आसात. तातूंतले एक 'आदिति' हें आसा. ऋग्वेदांत इंद्राविशीं जायते उल्लेख मेळटात. इंद्र आवयच्या पोटांत एक हजार म्हयने आनी जायतीं वर्सां रावलो (४.१८.४). तो जल्माक येतना सैमीक मार्गांनी जल्माक येवंक ना. ताचो जल्म आवयच्या फुडल्या भागांतल्यान जालो (४.१८.१-२). ल्हानपणासावनच ताणें पराक्रम गाजोवपाक सुरवात केली. आपल्या स्वबळार ताणें पुराय संवसाराचेर व्हडपण गाजयलें. इंद्राचे केंस, खाड-मिश्यो आनी पुराय कुडीचो रंग भांगराचो आसा. ताचीं भुजां व्हड आसात. दोन पाचव्या रंगाचे घोडे जोडिल्ल्या रथांतल्यान तो भोंवता. हो रथ ताका ऋभूंनी तयार करून दिला. वज्र हें ताचें खाशेलें आयुध. तें त्वष्ट्यान दधीचीच्या अस्थींचें केल्लें (५.३१.४). दुसरेकडेन हें आयुध 'आयसम्' म्हळ्यार कसल्या तरी धातूचें केलां, अशें म्हळां. ताका चार वा शंभर कोनशे आसात, आनी शंबर तोंकां आसात (ऋग्वेदः ८४.२२.२, ४.१७.१०,८.६.६). इंद्राक सोमपान खूब आवडटा. सोमपान आनी स्तोत्र- मंत्रावरवीं ताची तांक वाडटा. तो तीस तळयो भरपाइतलो सोमरस पियेवन पचयता. तेखातीर ताका 'सोमपा' अशें विशेषण मेळ्ळां. ताणें शंबर बैलांचें मांस खावन पचयलें, असो एक उल्लेख ऋग्वेदांत आयला (१०.२७,२८,८६,६.१७).

इंद्राक विंगडविंगड नांवांनी वळखतात. राकेसाची वसती आशिल्ले 'पुर' (रावपाची थाणीं) ताणें फोडून उडयले, देखून ताका 'पुरभिद्' म्हण्टात. वृत्राक ताणें आपल्या वज्रान मारलो, देखून ताका 'वृत्रहन' म्हण्टात. तो भक्तांक झुजांत झुजून जैत मेळोवन 'मघ' म्हळ्यार वैभव दिता, देखून ताका 'मघवन' अशेंय म्हण्टात. इंद्राचे बायलेचें नांव इंद्राणी आसा. तिचो 'शची' असोय उल्लेख जाता. ताका 'सीता' नांवाची आनीक एक बायल आसली (पारस्कर गृह्यसूत्र १७.९).

इंद्राची पुराणांतली कथा अशी आसा- इंद्रान गौतम ऋषीची बायल अहिल्या हिका तिच्या घोवा असवडीं भोगली. रुक्मांगदाच्या भेसांत येवन ताची बायल मुकुंदा हिचेकडेनय संबंद दवरलो (गणेश पुराण १.३६-४०). विश्वरुप, वृत्र आनी नमुचि हांकां जिवेशीं मारिल्ल्यान ब्रह्महत्येचें पातक ताका लागलें. इंद्र तेन्ना कमळांत लिपून रावलो. फुडें ही ब्रह्महत्या धर्तरी, रुख, उदक आनी बायल हांच्याभितर वांटे करून दिल्ल्यान ब्रह्महत्येच्या पातकांतल्यान तो मुक्त जालो. दुर्वास आनी बृहस्पती हांचो अपमान केल्ल्यान तो स्वताची गिरेस्तकाय वगडावन बसलो. समुद्रमंथनांतल्यान चवदा रत्नां भायर सरलीं. तातूंतलीं चार हाका मेळ्ळीं. उपरांत ताणें दैत्याक हरोवन परतून एक फावट स्वर्गाचें राज्य जोडलें (भागवत पुराण ६.९). एक फावट इंद्र अंगुष्ठमात्र आशिल्ल्या वालखिल्य ऋषीक हांसलो. ताका लागून तिडकीन वालखिल्य ऋषी दुसरो इंद्र करपाक लागलो. तेन्ना कश्यप ऋषीक मध्यस्थ दवरून ताणें ताचो राग शांत केलो (महाभारत आदिपर्व ३०). शर्यातीन केल्ल्या यज्ञांत अश्विनीकुमाराक यज्ञभाग मेळचो न्हय म्हूण च्यवनाचेर ताणें वज्र उबारलें. च्यवनाचे तांकीमुखार ताचें कांय एक चल्लें ना. देखून, अश्विनीकुमाराचो यज्ञभाग (हविर्भाग) ताणें मान्य केलो.

दरेका मन्वंतरांत कोणूय तरी इंद्र आसता. तीनूय लोकांचेर ताचें राज्य चलता. शंबर यज्ञ करपी इंद्रपद जोडटा, देखून कोणाचेय शंबर यज्ञ जावंचे आदीं तो विघ्न हाडटा. कोणेय खर तप केल्यार आपलें इंद्रपद वचत म्हूण तो भिता. तेखातीर अप्सरांक तपस्व्याचो तपोभंग करपाखातीर तो धाडटा. सप्तर्षी हे ताचे सल्लागार तर गंधर्व-अप्सरा ही

ताची गिरेस्तकाय आसा.

भागवतांत गोवर्धन पर्वताच्या आख्यानांत कृष्णाक लागून इंद्राक कमीपण आयिल्ल्याचें नदरेक येता. भारतांत वैष्णव संप्रदायाची वाड जावंक लागली, तेन्ना विष्णूक म्हत्व मेळ्ळें आनी इंद्र फाटल्यान पडलो अशें इतिहास सांगता. जैनांच्या दैवतकथांत इंद्राक यक्षाची सुवात दिल्या. तीर्थंकरांचें जल्ममंगल करपी सेवक म्हूण जैन साहित्यांत तो दिश्टी पडटा. बौध्द साहित्यांत ताचो पांवडो खूब वयलो लेखला. जातककथांत ताका मनीसजातीचो बरें मागपी, गरीब दुबळ्यांचो आदार म्हळां. संबुला जातकांत, संबुलेक तो कामूक यज्ञाचे पागडेंतल्यान सोडयता तें दाखयलां. भूमिया आदिवासीक पावस आनी मळब हांचो देव मानतात. ताका ते 'मृत्यूदेव' अशें म्हण्टात.

इंद्राच्या असैमीक जल्माविशीं आशिल्ली लोककथा मध्यप्रदेशांत सांपडटा.

कमलपती ही कमळांची देवता. इंद्र तिचे बरगडेंतल्यान आयलो. इंद्राचो चलो मौनकुंवर आनी माळ्याची चली रैभेदेन हांचें लग्न लागलें. तेन्ना माळ्यान केल्लो मोटवो माटोव मोडलो. इंद्रान तो मळबांत वयर उडयलो. तें आयज इंद्रधनुश्य जावन आमकां दिसता.

कातोडी, कुंभार आनी गोंड समाजांत इंद्रकथा चलता. इंद्राची मूर्त कशी आसची तें हेमाद्रींत सांगलां-

> शक्रश्चतुर्भुजः कार्यो द्विभुजा च तथा शची ।
> पद्माङ्कुशौ च कर्तव्यौ वामदक्षिणहस्तयोः ।।
> वामं शचीपृष्ठगतं द्वितीयं वज्रसंयुतम् ।
> वामे शच्याः करे कार्या रच्या सन्तानमञ्जरी ।।
> दक्षिणं पृष्ठविन्यस्तं देवराजस्य कारयेत् ।

अर्थः इंद्राची मूर्त चार भुजांची तर शचीची दोन भुजांची करची. इंद्राच्या दाव्या आनी उजव्या हातांत कमळ आनी अंकुश आसचो. इंद्राचो दुसरो दावो हात शचीचे फाटीर तेंकिल्लो आनी उजवो हात वज्र धरिल्लो आसचो. शचीच्या उजव्या हातांत मंजरी आसची. उजवो हात इंद्राचे फाटीर आसचो.

इंद्राक जरी 'देवांचो राजा' म्हूण वळखलो, तरीय दिसपट्ट्या देवस्पणांत वा पुजेंत इंद्राक सुवात मेळना. शांतिक पौष्टिक कर्मांत एक लोकपाल म्हूण ताका आहूती मेळटा. पूर्विल्ल्या काळांत रानदुकराक ताचो बळी म्हूण दिताले. तेविशींचें 'इन्द्राय सूकरम्' अशें वचन तैत्तरीय ब्राह्मणांत आसा. इंद्रासंबंदीच्यो परबो महाराष्ट्र, गोंय वा कोंकणी वाठारांत नात. बंगाल राज्यांत 'इंद्रपूजा' अस्तित्वांत आसा. भाद्रपद शुध्द चतुर्दशीक बंगालांतल्यो बायलो इंद्राचे मूर्तीची पूजा करतात. ताका चवदा फळां आनी लाडू हांचो निवेद्य दाखयतात. सूर्य बुडटकच इंद्रमूर्तीचें विसर्जन जाता. रोट, मॅक्डोनेल, ओल्डेनबर्ग ह्या अस्तंतेच्या विद्वानांनी इंद्रासंबंदान फुडलीं मतां उक्तायल्यांत. तांच्या मतान इंद्र हो पावस दिवपी देव. ताचें वज्र म्हळ्यार वीज. वृत्र ही दैत्याच्या रुपांत आशिल्ली सैमीक शक्त. ही शक्त उदक नश्ट करता. डॉ. रा. ना. दांडेकर हाका हें मत मान्य ना. तो म्हण्टा- मेघ, विद्युत्, धनध्वनि, पर्जन्य हीं उतरां सरळपणान केन्नाच वापरिल्लीं नात. त्या बदला वृत्र वज्र, पर्वत सारक्या प्रतिकात्मक उतरांचो उपेग केला. इंद्रा सारक्या देवाचें अशें अस्पश्ट वर्णन वैदिक ऋषींनी केलां हें मनाक पटना. इंद्राक पावसाचो देव मानप हें समा न्हय. ताच्या स्वभावांत आनी कर्तुपांत मनीसधर्माची, मनीसस्वभावाची सांवळी पडल्या. तेखातीर इंद्राक मानवी वीर मानप चड बरें दिसतलें. डॉ. दांडेकराचो सिध्दान्त असो:

इंद्र हो जल्मान देव न्हय. ताणें आपले तांकीर इंद्रपद जोडलें. ऋग्वेदांत ताच्या मनीस स्वभावाविशीं जायते उल्लेख आयल्यात. देखीक, इंद्राक सोमरस खूब आवडटा (ऋग्वेद २.१५.७७.३८.२); वृषाकपीच्या प्रसादान इंद्राचें वीर्यवर्धन जावप (ऋग्वेद १०.८६); कांय वेळा ताका भय दिसप (ऋग्वेद १.३२.१४); ताचेकडेन एकनिश्ठ राविल्ल्या मरुताकडेन ताणें केल्ली झगडीं ह्यो गजाली इंद्र मनीस आसलो हें सिध्द करतात.

आर्य लोक जेन्ना इराणांतल्यान सप्तसिंधूक वचूंक भायर सरले तेन्ना त्या प्रवासांत इंद्रान आर्यांचें फुडारपण केलें. ताच्या फुडारपणाखाल सगळीं आडमेळीं हुंपून आर्यांचो हो गट सप्तसिंधूमेरेन पावलो. आर्यांच्या दैवतशास्त्रांचें वैदिक भारतीयांच्या दैवतशास्त्रांत रुपांतर जातना वैदिक भारतीयांनी आपल्या फुडाऱ्याक देवांचे पंगतीक बसयलो. ताचो 'देवांचो राजा' ही पदवी दिवन भोवमान केलो. हाकालागून भारतीय वैदिक शास्त्र इंद्रप्रधान जालें. इंद्राक लागपी प्रतियोगी देव पूर्विल्ल्या इराणी लोकांच्या दैवतशास्त्रांत ना.

- कों. वि. सं. मं.

**इंद्र-२ :** संस्कृत भाशेचो व्याकरणकार. कथासरित्सागराच्या चवथ्या तरंगांत, पाणिनी आदी व्याकरणकारांचो एक संप्रदाय आसा अशें म्हळां. व्याडि, वररुचि आनी इंद्रदत्त हे त्या संप्रदायांत मुखेल आसात. ह्या व्याकरणकारांक 'ऐंद्र' म्हण्टाले. व्याकरणाच्या मळार पाणिनीचें म्हत्व वाडटकच हो संप्रदाय ना जालो. बर्नेल हाच्या मतान तोलकाप्पियम् ह्या तमिळ व्याकरणांत ऐंद्र पध्दतीचें अनुकरण आसा. पाणिनी, कात्यायन आनी हेर व्याकरणकार जाचो प्राचाम्, एके अशा उतरांनी उल्लेख करतात तो इंद्र आसूंये अशें भारतीय संस्कृतिकोशांत म्हळां. इंद्राचो व्याकरणग्रंथ सांपडना. अभिनव शाकटायनाच्या शब्दानुशासनांत ताचो उतारो पळोवंक मेळटा. बोपदेव आपल्या कविकल्पद्रुमांत इंद्राचो उल्लेख करता.

- कों. वि. सं. मं.

**इंद्राणीः** देवांचो राजा इंद्र हाची बायल. तिका 'शची' अशें आनीक एक नांव आसा. ती सूक्तद्रष्टी आसली.

रामायण आनी पुराणांत तिका पुलोमा दैत्याची चली अशें म्हळां. तिच्या सोबीत, शिरवंत रुपाक भुलून सगळ्या देवतांमदल्यान इंद्रान तिका पसंत केली, अशें तैत्तरीय ब्राह्मणांत सांगलां. इंद्रान तिका चोरून व्हेली आनी पुलोमा श्राप दीत म्हूण ताका जिवेशी मारलो. इंद्रावांगडा ती राजसभेंत बसताली. तिणें आपणाक पूत जावंचो हो हेत मनांत बाळगून गौरीव्रत केलें. तेवरवीं तिका जयंत हो पूत जालो, अशे कांय उल्लेख भविश्यपुराणांत (ब्राह्म. २२) सांपडटात. ऋग्वेदांत तिचेसंबंदीच्यो जायत्यो ऋचा येतात. तातूंत तिचेविशीं फुडली म्हायती मेळटा. आपले सवतीचो मद जिरोवपाक तिणें तिचेर मंत्रिल्ल्या पाळां-मुळांचो उपेग केल्लो (१०.१४५). एका सूक्तांत तिचें तेज प्रगट जालां (१०.८६). इंद्र आपलेपरस वृषाकपीक चड मान दिता तो पळोवन ती तिडकता. मनशावरीच देवाच्या कुटुंबांत लेगीत झगडीं चलतात, हें त्या सुक्तावेल्यान समजता.

इंद्राणीक अखंड सवाशीण मानल्या. देखून, लग्नावेळार,खास करून साकरपुड्यावेळार व्हंकलांनी तिची पूजा करपाची चाल कांयकडेन चलता. विदर्भांत इंद्राणीचें मंदिर आसा. थंय रुक्मिणी तिची पूजा करपाक गेल्ली अशें म्हण्टात. विदर्भांत इंद्र-इंद्राणी कांय लोकांचें कुलदैवत आसा. ओरिसांत इंद्राणीची एक व्हड मूर्त मेळ्ळ्या.

- कों. वि. सं. मं.

**इंफाळः** आदल्या मणिपूर संस्थानाची आनी आतांच्या मणिपूर राज्याची ही राजधानी. इंफाळ आनी नंबुल न्हंयांमदल्या एका सुंदर देगणांत, समुद्रथरासावन सुमार ८०० मी. उंचायेचेर हें शार वसलां.

दाट गांवगिरे वस्तीच्या मदीं आशिल्ल्या ह्या थळाक नामना मेळ्ळी, ती थंयच्या थळाव्या राजाच्या किल्ल्यान. पूण १८९१ वर्सा जेन्ना हांगा ब्रिटिशांनी आपलें राज्य वसयलें तेन्नाच तांकां नगराचें रुप मेळ्ळें. विस्तार २४° ५०' उत्तर ९३° ५९ उदेंत, लोकसंख्याः १०,०,३६६ (१९७१). मणिपूर राज्याचें हें एक संस्कृतीक आनी वेपारी केंद्र. हांगाच्या कलाकुसरीच्या वस्तूंक आनी हातमागावेल्या कपड्यांक नामना आसा. मणिपुरी नृत्यकलेचें हें मूळपीठ समजतात. तशेंच 'पोलो' खेळाचें हें

मूळस्थान आसतलें असोय समज आसा.

ईशान्य रेल्वेच्या मणिपूर रोड (दिमापूर) स्थानकाच्या २१५ किमी. दक्षिणेक हें शार आसून हांगाच्यान सुमार १०७ किमी. उदेंतेक ब्रह्मदेशाची शीम लागता. जिल्ह्यांतल्या मुखेल शारांकडेन हें शार रस्त्यान जोडलां. दोंगराळ वाठारांखातीर तशेंच राज्यांतल्या कांय नागा लोकांच्या घातपात कारवायांक लागून तेचपरी हें शार ब्रह्मदेशाचे शीमेलागसार आशिल्ल्यान हांगाच्या विमानतळाक खूब म्हत्व आयलां. दुसऱ्या म्हाझुजांत सुभाषचंद्र बोस हाची आझाद हिंद फौज इंफाळ मेरेन आयिल्ली.

बायलांच्या आभुशणांखातीर नामनेक पाविल्लो भारतांतलो सगळ्यांत व्हड बाजार 'खवैरामबंद', श्री गोविंदजीचें देवूळ आनी राजवाडो पळोवपासारको आसा. हांगा महाविद्यालयां तशेंच खुबश्यो शाळा आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**इ:** वर्णमालेंतलें तिसरें अक्षर. हाचो उच्चार ताळवेपसून जाता. उदात्त आनी अनुदात्त अशा स्वरांच्या भेदाक लागून हाचो उच्चार तीन तरांनी जाता. अनुनासिक आनी निरनुनासिक अशे ताचे आनीकूय दोन भेद आसात. हो परमानंद स्वरुपाचो, वासाच्या फुलाचे कांतीचो, ब्रह्माविष्णुमहेशात्मक, शक्तिमय आनी गुणत्रयसमन्वित आशिल्याचें कामधेनुतंत्रांत म्हळां.

'इ' च्या रुपाचो विकासक्रम असो:



वर्णाभिदानतंत्रांत सूक्ष्मा, शाल्मली, विद्या अशीं हाका नांवां दिल्यांत. मातृकान्यासांत हाची सुवात उजव्या दोळ्याचेर येता. हो ब्रह्मदेवाच्या तिसऱ्या तोंडापसून उत्पन्न जालो आनी यजुर्वेद हाचेपसून उत्पन्न जालो अशें शब्दकल्पद्रूम आनी वायुपुराण ह्या ग्रंथांत म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**इक्‌बाल, मुहंमद:** (जल्मः २२ फेब्रुवारी १८७३, सियालकोट; मरणः २१ एप्रिल १९३८, लाहोर).

उर्दू आनी फार्सी भासांतलो कवी आनी विचारवंत. इक्‌बाल ह्या नांवान ताच्यो कविता उजवाडाक आयल्यो. ताचे पूर्वज काश्मीरी ब्राह्मण आशिल्ले, अशें म्हण्टात. सियालकोट हांगाच्या मरे कॉलेजांतल्यान ताणें पदवीमेरेनचें शिकप घेतलें आनी मागीर लाहोराक वचून तत्त्वगिन्यान विशयांत एम्. ए. ची पदवी घेतली. मुखार तो जर्मनीक गेलो आनी म्युनिकच्या विद्यापीठांतल्यान ताणें तत्त्वगिन्यानांत डॉक्टरेट मेळयली. ताका उर्दू, फार्सी, जर्मन, इंग्लीश ह्यो भासो येताल्यो. म्युनिक हांगाचें शिकप सोंपोवन तो इंग्लंडाक गेलो आनी बॅरिस्टर जावन १९०८ वर्सा मायदेशाक परतलो. सुर्वेक कांय काळ ताणें लाहोर कॉलेजींत प्राध्यापक म्हूण काम केलें. पूण रोखडीच ताणें ती चाकरी सोडली आनी वकिलीचो वेवसाय आपणायलो.

सामके भुरगे पिरायेर सावन तो कविता रचतालो. सुरवातीच्या काळांत ताचेर सुफी विचारांचो चड प्रभाव पडिल्लो. 'हिदायतु-उल्-इस्लाम' हे संस्थेचे माचयेवयल्यान ताणें खूब फावट कविता वाचन केल्लें. ताची गाजिल्ली रचना 'सारे जहाँ से अच्छा, हिंदोस्ताँ हमारा' ही सुरवातीच्या काळांत बरयिल्ली कविता.-

ताची ऐन पिराय युरोपासारक्या विचारांचे नदरेन फुडारिल्ल्या खंडांत गेल्ल्यान इक्‌बालाच्या विचारांत खूब बदल जाल्लो. ताका लागून तो इस्लामवादाक लागीं गेलो अशें जाणकारांचें मत आसा. फार्सी भाशेंतल्यान बरयल्यार आपले विचार आनी तत्त्वगिन्यान सगळ्या इस्लाम राश्ट्रांनी पावतलें ह्या विचारान ताणें उर्दू सोडून फार्सी भास आपणायली. बेर्गसाँ आनी नित्शे ह्या दोन विचारवंतांच्या विचारांचो पगडो ताचे तात्त्विक विचारसरणीचेर आशिल्लो ही गजाल ताच्या 'असरारे खुदी' (१९१५) आनी 'रुमूजे बे खुदी' (१९१८) ह्या दोन फार्सी खंडकाव्यांतल्यान उक्ती जाता. ह्या दोनूय खंडकाव्यांचो इंग्लीश अणकार केंब्रिजचो प्राध्यापक निकल्सन हाणें केलो (१९२०). ह्या ग्रंथांक लागुनूच इक्‌बाल हाका १९२२ त, 'सर' ही पदवी मेळ्ळी. दान्तेच्या 'दिव्हीना कामेदिया'चे धर्तेर ताणें 'पयामे मशरिक' आनी 'जावेदनामा' (१९२०) हे झेले उजवाडाक हाडले.

१९३५ सावन ताणें पर्थून उर्दू भाशेंतल्यान बरेवपाक सुरवात केली. 'बाले जिब्रैल' आनी 'जर्बे-कलीम' (१९३५) हे दोन उर्दू कवितां-झेले ताणें ह्या काळांत उजवाडाक हाडले. ताच्या उलोवपांचो झेलो **'Lectures on the reconstruction of Religious thought in Islam'** (१९३५) ह्या नांवान उजवाडाक आयला, ताच्या इस्लाम धर्मावयल्या म्हत्वाच्या तात्त्विक विचारांचो तातूंत आस्पाव आसा. तातूंत ताणें आपलें सूफीविरोधी आनी कर्मयोगाची शिकवण दिवपी तत्त्वगिन्यान मांडलां. १९३० वर्सा इक्‌बाल मुस्लिम लिगाचो अध्यक्ष जालो. आनी मुसलमानांखातीर स्वतंत्र देशाची येवजण ताणें मांडली. ताच्या काव्यांत तात्त्विक, धर्मीक, नैतिक आनी राजकी विचारांचो सुंदर मेळ आनी कलात्मक आविश्कार जाला. ताच्या काव्याक उर्दू-फार्सींत म्हत्वाची सुवात आसा.

- माधव बोरकार

**इगर्ज (चर्च):** किरिस्तांव धर्मीयांचें प्रार्थनाथळ. इगर्ज हें कोंकणी उतर पोर्तुगेज 'इग्रेज' ह्या उतरावेल्यान आयलां आनी पोर्तुगेज उतर 'इग्रेज' आनी इंग्लीश उतर 'चर्च' हीं ग्रीक 'एक्लेजिया' आनी हिब्रू 'कहाल' हातूंतल्यान आयल्यांत. ताचो अर्थ एकठांय आपयिल्ली जमात. देवाची पूजा करूंक जंय एकठांय येतात, ते सुवातेक 'इगर्ज' म्हण्टात.



क्रिस्ती शकाच्या पयल्या तीन शतमानांनी किरिस्तांव लोक धर्मीक आनी राजकी पिडापिडीक लागून उक्त्या सुवातींनी व्हड घरांनी, कातांकूंब **(Catacomb)** म्हूण नांवाजिल्ल्या भुयारी सिमितेरींनी एकठांय येताले. रोम शारांत किरिस्तांवांची पिडापीड सोंपतकच ३२६ वर्सा कोन्स्तांतीन राजान किरिस्तांव धर्माक राजधर्माची मान्यताय दिली. तेन्नासावन इगर्जी बांदप सुरू जालें. हीं बांदपां युरोपांतल्या घरशिल्पाचो मुखेल नमुनो जावंक पावलीं. पयल्यो व्हड इगर्जी बाजिलिकाचो रोमन सरकारी इमारतीचो नमुनो वापरुन बांदल्यो. हांका लागून क्रिस्ती म्हामंदिराक 'बाजिलिका' म्हण्टात. एक लांब साल आनी सालाचे एके

कुशीक मिसाची वेदी (आल्तार) आसता.

बायझंटायन (Byzantine) शैलीचीं बांदपां ४ थ्या ते ६ व्या शतमानांत आशियांत चलणुकेंत आयलीं. ५३२ वर्सा, इस्तांबूल शारांत व्हड घुमटा आकाराची आनी चारूय कोनशांक ऊंच मिनार आशिल्ली, हागिया सोफिया इगर्ज बांदली. असल्या इमारतींनी मोझाइक (mosaic) नांवाचीं रंगारंगांच्या फातरांक पट्यांनी सजरि [illegible] चित्रां आसतालीं. बायझंटायन शैली ग्रीस, रशिया आनी कांय इट [illegible] गांवांनी पातळ्ळी. ८ व्या आनी ९ व्या शतमानांत कारोलिंजियन (Carolyngian) पध्दतीन इगर्जी बांदताले. असलीं बांदपां चड तिगूंक ना पूण कांय काश्याचे आनी हस्तिदंत कोरांतून केल्ले नग उरल्यात.

इकराव्या आनी बाराव्या शतमानांत रोमानेस्क (Romanesque) पध्दतीन इगर्जी बांदताले. व्हड आनी दाट वण्टी, ल्हान जनेलां, वाटकुळें आर्क, मोटे आनी मोटवे खांबे ह्या इमारतींनी वापरताले. इगर्ज खुरसाच्या आकाराची आसताली आनी बल्कांवाक तेंकून ल्हान ल्हान कपेलां बांदताले.

घुमट आनी तेंको दिवंक वण्टी बांदपाची पध्दत सुरू जाली. हांगाच्यान गॉथिक (Gothic) पध्दत आयली. नवे पध्दतीचे नाजूक घुमट पातळ वण्टी, तोंकाचे आर्क (pointed arch) तेंको दिवपी मोटे वण्टीचेर (flying buttresses) ल्हान मिनार, फातरांनी कोरांतून केल्लो मुखभाग (facade) आनी व्हड घांट हुमकळावंक मोर्टे गोपूर- हीं गॉथिक बांदावळीचीं लक्षणां. ताका व्हड जनेलांचीं रंगीत विद्राचीं (stained glass) चित्रां लायताले. अमियां (Amiens), नोत्र दाम द पारीस (Notre Dame de Paris) असले काथेद्राल (Cathedral), कॅन्टरबरी (Canterbury) असलें तीर्थक्षेत्र, ला ग्रांद शार्त्रूज (La Grande Chartreuse) सारके मठ, गॉथिक पध्दतीच्यो इमारती म्हूण संवसारभर नामनेक पावल्यात.

१५ व्या आनी १६ व्या शतमानांत रेनसांस (Renaissance) पध्दत आयली. ग्रीक आनी रोमन काळाचे प्रकार नव्यान वापरूंक लागले. रोमांतली म्हालगडी सांत पेद्रूची बाजिलिका, लंडनांतली सेंट पॉल्स काथेद्राल, व्हडल्या गोंयची से काथेद्राल आनी नोसा सिञोरा द दिवीन प्रॉविदेंसिया (St. Cajetan's) ह्यो रेनेसांस बांदावळीच्यो इगर्जी आसात.

१७ आनी १८ व्या शतमानांत बारोक (Baroque) प्रकार उजवाड-सावळेचो फरक दाखयता. रोमांतली जजू (Geso), गोंयची बॉं जेजू इगर्ज ही हे पध्दतीचीं उदाहरणां आसात. केरळांतले बारोक इगर्जांचे बांदावळीन युरोपी पध्दतीचेरय प्रभाव घाल्लो दिसता. भारतीय बारोक प्रकारच्या इमारतींमदीं व्हडल्या गोंयची आनी मडगांवची इश्पिरितु सांतु, तळावलेची सांताना, दिवाडेची पियेदाद, जुंवेची सांतइश्तेवांव ह्यो इगर्जी नांवाजिल्ल्यो आसात. व्हडल्या गोंयच्या रेनेसांस आनी बारोक इगर्जांक लागून ह्या वाठाराक 'उदेंतेचे रोम' अशें नांव पडलां. बारोकाचोच एक भोव अलंकारीत रोकोको प्रकार (Rococo) फ्रांस देशांत वाडलो.

१९ व्या २० व्या शतमानांत तिखें, कॉंक्रीट आदी वापरून आदल्या आनी नवे मोदीच्यो इमारती बांदल्यो. हालींच्यो इगर्जी चडशो आर्विल्ल्या मोदीच्यो आसतात. देखीक, मडगांवची ग्रेस चर्च, कार्मेलीन मठ आनी पणजेची डॉन बॉस्को इगर्ज. ह्या इगर्जांनी कॉंक्रीट वापरुन व्हड सालां बांदतात आनी हारशाचीं व्हड जनेलां दवरतात. वांटकुळ्या वा बहुकोनी आकाराच्या इमारतींनी वेदी मजगतीं जायतो लोक चोंयवशीन रावपाची वेवस्था आसता. भारतीय पध्दतीन बांदिल्ल्योय कांय इगर्जी आसात. बेळगांव लागसार देशनूर गांवांत लिंगायत देवळाचो नमुनो घेवन बांदिल्ली इगर्ज आसा. तमीळनाडू, गुजरात आनी बिहारांत थळाव्या देवळांच्या प्रकाराच्यो इगर्जी फाटल्या पन्नास वर्सांनी बांदल्यात.

- मॅथ्यू आल्मेद, जे. स.

संदर्भ: 1. Anand, Mulk Raj (Ed.) Golden Goa. Bombay, Marg Publication 1980; 2. Doshi, Saryu (Ed.) Goa Cultural Patterns. Bombay, Marg publication 1983; 3. Eliade, Mircea (Ed.) The Encyclopaedia of Religion, New york 1987; 4. Malgaonkar, Manohar. Inside Goa. Directorate of Information and publicity, Goa 1982; 5. Piper, David (Ed.). The Random House Library of painting and culture 1981. Random House, New York; 6. Webster's Unabridged international dictionary of the English Language.

**इझुमी, शिकिबू:** नामनेची जपानी कवयित्री. तिच्या बापायचो आश्रित नाचिबाना मिचिसादा हाचेकडेन तिचें लग्न जाल्लें. जपानी राजघराण्यांतलो तामेताका ह्या राजकुंवराकडेन आनी ताच्या मरणा उपरांत ताचो भाव आतसुमिची हाचेकडेन तिचे मोगाचे संबंद आशिल्ले. आतसुमिचीच्या मरणा उपरांत ती राजकन्या शीशीचे सेवेक आशिल्ली. फुडें तिणें फुजिवारा यासुमासा हाचेकडेन लग्न केलें. पूण होवूय संबंद चड काळ तिगलो ना.

होंवयेवरी 'वाका' ह्या जपानी छंदांत (पंचाक्षरी आनी सप्ताक्षरी कडव्यांची एका फाटल्यान अशी होंवीसदृश रचना) बरयिल्ले तिचे दोन कवितांझेले आसात. हातूंतलो पयलो *इझुमी शिकिबू सेइशू*, जातूंत ८३९ 'वाका' आसात. दुसरो *इझुमी शिकिबू झोकुशू* हातूंत ६४७ 'वाका' आसात. ह्या दोनूय संग्रहांत मेळून सत्तर 'वाका' एकेचतरेच्यो आसात. तिच्या काव्यांत मोगाचे भावनेची उत्कटता आनी खोलाय दिसून येता. तिचे धर्मीक स्वरुपाचे कवितेंत चित्तशुध्दीखातीर आशिल्ल्यो भावना दिश्टी पडटात. शाही फर्मानावरवीं संपादन केल्ल्या 'गोशु-इशु' ह्या कवितासंग्रहांत तिच्या 'वाका'चो आस्वाव जाता.

तिणें बरयिल्ले दिसपटयेंत खुबश्यो कविता आनी आतसुमिची वांगडा आशिल्ल्या मोगाच्या संबंदांचे उल्लेख मेळटात. तिचें वास्तव चरित्र आनी तिचे कवितेंतलें प्रेम संबंदांचें वर्णन हाकालागून कांय लोकांकडसून तिचेर टिका जाल्या. नितळ मोग करपी प्रेमिकांचो संबंद सोडूंक गेल्यान घडये तिची अशी अवस्था जाल्या जावंये आनी तिचेर चंचळतेचो छाप बसला आसुये.

- कों. वि. सं. मं.

**इझ्राएल:** (मेदिनात इझ्राएल) अस्तंत आशियांतलें ज्यू राश्ट्र. क्षेत्रफळ २०,७०० चौ. किमी. लोकसंख्या ४०,३०,६०० (१९८१). विस्तार २९° ३०′ उत्तर ते ३३° १५′ उत्तर आनी ३४° १७′ उदेंत ते ३५° ४१′ उदेंत. हाच्यो शिमो उत्तरेवटेन ७९ किमी. लेबनानकडेन, उदेंतेक ५३१ किमी. जॉर्डनाकडेन, ७६ किमी. सिरीयाकडेन आनी दक्षिण आनी उदेंत मेळून २०६ किमी. ईजिप्ताकडेन आनी अस्तंतेक ५९ किमी. गाझा पट्टेकडेन जोडल्यात. हे भायर सुमार ७८ किमी. भूंयमध्यसमुद्र- दर्यादिग आनी तांबड्या दर्याच्या आखातावयली ४ किमी. दर्यादिग ह्या देशाचे सत्तेखाला आसा.

**भूंयवर्णन, वनस्पत आनी मोनजातः** १९४८ वर्सा अरब राश्ट्रांकडेन जाल्ले कबलातींत ह्या देशाच्यो शिमो थारायल्यो. सादारणपणान इझ्राएलचे चार सैमीक वांटे जातात. १. **भूंयमध्यसमुद्राची दर्यादिगः** ही देशाच्या अस्तंत वाठारांत आसा आनी उत्तरेवटेन अशीर जाल्यार दक्षिणेवटेन रूंद जायत गेल्या. २. **दोंगुल्ल्यांचो वाठारः** उत्तरेवटेन गॅलिली, मदल्या वाठारांत ज्यूडीया आनी सामेरिया तशेंच दक्षिणेंतल्या नेगेव्हांतल्या दोंगुल्ल्यांचो वाठार हे हाचे आनीक वांटे जाल्यात. ३. **जॉर्डन न्हंयचो वाठारः** हे न्हंयचें देगण कांय प्रमाणांत जॉर्डनांत तर कांय इझ्राएलांत आसा. ह्या वाठारांत आशिल्ल्या दोंगुल्ल्यांची उंचाय सादरणपणान समुद्रथरासावन ६०० मी. आसा आनी मेबिट मायरॅन (जेबेल जारमाक) हें दोंगुल्लेतेमक १,२०८ मी. उंचायेचें आसा. ४. **नेगेव्हचो वाळवंटी वाठारः** ह्या वाळवंटांच्या वाठारांत, दक्षिण ज्यूडीया वाठारांतल्या दोंगुल्ल्यांनी कांय जाग्यांचेर सुप्त ज्वालामुखी सांपडटात. ह्या वाठारांत तांबड्या दर्यावेल्या आकाबाच्या आखातामेरेनचो वांटो येता.




इझ्राएलांत सैमीक उदका सांठे सामक्या उण्या प्रमाणांत आसात. जॉर्डन न्हंयचे वट्ट ३२० किमी. लांबायेतले ११८ किमी. इझ्राएल-जॉर्डन हांचे शिमेचेर आसा. हेभायर यॉरकोन, किशॉन आनी यारमुक ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो आसात. १६५ किमी. क्षेत्रफळाचें किनेरेट तळें (गॅलिली दर्या), मेल्ल्या दर्याचो दक्षिणेवटेनचो १/४ वाठार आनी उत्तरेखटेनचें हुला तळें हांचेर इझ्राएलची सत्ता चलता.

देशाचें हवामान भूंयमध्यसागरी आसा. शिंयांदिसांनी पावस पडटा जाल्यार गीम सुको आसता. जानेवारी म्हयन्यांतले चडांतचड तापमान २०.९° से. आनी उण्यांतउणें ४.४° से. इतलें आसता. ऑगस्ट म्हयन्यांत तें चडांतचड ४०.२° से. जाल्यार उण्यांतउणें १८.४° से. आसता. पावस उत्तरेखटेन सुमार १०७ सेंमी. जाल्यार दक्षिणेवटेन ३ सेंमी. मेरेन पडटा.

दक्षिण-उत्तर हांगाचो असमान पावस, ऊंच सकयल वाठार, वाळवंट आनी दर्या लागीं आशिल्ल्यान इझ्राएलांतली भूंय शेतवडीखातीर चडशी उपेगाची ना. तातूंत चुनखडयेचें प्रमाण बरेंच चड आसा.

हांगाची वनस्पत चडशी नश्ट जावन गेल्या. पूण सरकारी यत्नांनी कांय जाग्यांचेर पायन, ओक, निलगिरी हीं झाडां रोयल्यांत. तेभायर हांगा बाभळ, करोबा, खाजूर, विंगडविंगड वखदी वनस्पत तशेंच हायसिंथ, क्रोकस, ट्यूलिप हीं फुलझाडां दिसून येतात. मोसंबी, संत्रां, पेरां, केळीं, अनसां हांचीं पोरसां तयार केल्यांत.

कोलो, तरस, रानदुकर, हरण, रानमाजर, मुंगस ही मोनजात हांगा आसा आनी सुमार ४० जातींचीं सुकणीं हांगा आसात. केन्नाकेन्नाय टोळांच्यो घुरयो येतात.

**इतिहासः** बायबलाच्या पोरन्या करारांत वर्णन केल्लेप्रमाण इ.स.प. दोन हजार वर्सांपयलीं अब्राहम हाणें ज्यू संस्कृतायेची बुन्याद घाली.

अब्राहमच्या वंशजांनी ज्यूडा आनी इझ्राएल हीं राज्यां निर्माण केलीं, पूण इ. स. ७० वर्सा रोमनांनी हीं राज्यां नश्ट करून तांकां पॅलॅस्टायन् हें नांव दिवन आपले सत्तेखाला हाडलीं. फुडें धर्मीक अत्याचारांक लागून कितलेशेच ज्यू देश सोडून जगभर पातळ्ळे. पूण तांचो एकचार मात तिगून उरलो. १९ व्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत 'झायनिझम' ची थापणूक जाली. ज्यूं खातीर पॅलेस्टायन हें स्वतंत्र राज्य आसचें असो ताचो उद्देश आशिल्लो. ब्रिटिशांनी पयल्या म्हाझुजांत पॅलेस्टायन आपले सत्तेखाला हाडलें आनी ताणी ज्यूंच्या वेगळ्या स्वतंत्र राज्याच्या अस्तित्वाक तेंको दिलो. ज्यू लोकांनी थळाव्या अरब जमीनदारांकडल्यान जमनी विकत्यो घेतल्यो आनी थंय आपली वसणूक केली. हे जमनीचे मालकेखातीर झगडीं सुरू जालीं, पूण निमणें १४ मे १९४८ वर्सा इझ्राएल हें ज्यू राश्ट्र निर्माण जालें. डेव्हिड बेन गुरिअन पयलो पंतप्रधान आनी कायीम व्हायट्समान पयलो अध्यक्ष जालो. १९४९ त इझ्राएल संयुक्त राश्ट्रांचो सभासद जालो. अरब राश्ट्रांवांगडा हाचीं झुजां चालूच उरलीं. १९५६ त जाल्ले सिनाईचे लडायेंत इझ्राएलाक जैत मेळ्ळें. तांची वाडपी शक्त मतींत दवरून आनी अरब राश्ट्रांकडलीं झगडीं उणीं जावचेखातीर संयुक्त राश्ट्रांनी इझ्राएल आनी अरब राश्ट्रां हांचेमदल्यो शिमो थारावन दिल्यो आनी थंय आपलें सैन्य दवरलें. पूण झगडीं थांबलीं नात. १९६७ त आनी १९७३ त पर्थून व्हड झुजां पेटलीं. पी.एल्.ओ. (Palestinian Liberation Organisation) च्या फुडारपणाखाल अरबांनी इझ्राएलाआड झूज चालूच दवरलां. अरब आनी इझ्राएल हांचेमदीं संयुक्त राश्ट्रां आनी हेर संघटनांनी आनी देशांनी सवस्तकाय हाडपाचो यत्न केलो, तरी दोगांमदलो वाद पुरायपणान सोंपूक ना. डेव्हिड बेन गुरियन उपरांत १९५३ त मोशे शॅरॅट सत्तेर आयलो, पूण बेन गुरियन पर्थून १९५५ त वेंचून आयलो. १९६३ त, ताणें राजीनामो दिलो आनी लेव्ह एश्कोल हाणें सत्ता हातांत घेतली. १९६९ त ताका मरण आयलें. १९६९ त इझ्राएलच्या लोकांनी गोल्डामायर हे बायलमनशेची पंतप्रधान जावपाखातीर निवड केली. तिचे उपरांत १९७४ त इत्झाक राबिन,

१९७७ त मेनाचेम बेगिन आनी १९८४ त इत्झाक शामीर पंतप्रधान जाले. मोशे दायान सारक्या खांप्या झुजाऱ्यान आपल्या कर्तुपान इझ्राएलाक झुजामळांचेर व्हड जैतां मेळोवन दिलीं आनी राश्ट्र बळिश्ट करपाच्या यत्नांक म्हत्वाचो हातभार लायलो. गोल्डा मायरान तर आंतरराश्ट्रीय राजकारणांत इझ्राएलचें खाशेलपण तिगोवन दवरुन देशाची झुजाची परंपरा जगाक दाखोवन दिली.

**राज्यवेवस्था:** इझ्राएलांत सांसदीय लोकशाय आसा आनी विधीमंडळ, कार्यकारी मंडळ, न्यायमंडळ अशे तिचे फांटे आसात. इझ्राएलांतल्या समेस्त लोकांक समान हक्क आनी लोकशायेचे अधिकार आसात. हांगा विंगडविंगड विचारांचे राजकी पक्ष आसात. १८ वर्सां पुराय केल्ल्या दर एकल्याक मत दिवपाचो अधिकार आसा आनी २१ वर्सां पुराय केल्ल्या कोणाकय वेंचणुको लडोवंक मेळटात. सगळ्या देशाचो एक मतदारसंघ आसा.

राश्ट्रपती हो राश्ट्राचो मुखेल जावन आसा. 'नेसेट' हें विधीमंडळ ताची वेंचणूक करता. हाका चडांत चड म्हळ्यार पांच वर्सांचीं दोन सत्रां (१० वर्सां) अधिकाराचेर रावंक मेळटा. मंत्रीमंडळाचो मुखेल पंतप्रधान आसता. पंतप्रधानाची नेमणूक राश्ट्रपती करता. मंत्रीमंडळ आनी पंतप्रधान 'नेसेटा'क जापसालदार आसतात. आजमेरेन हांगा खंयच्याच एका पक्षाक पुराय भोवमत मेळिल्लें ना. सगळ्यांत चड मतां मेळोवपी पक्ष हेर ल्हान पक्षांवांगडा एकी करून सरकार चलयता. नेसेट हें सगळ्यांत उंचल्या पांवड्यावेलें विधीमंडळ आसा. ताचे १२० प्रतिनिधी आसात आनी ताची बसका एकाच सभाघरांत जाता. नेसेटाखातीर दर ४ वर्सांनी वेंचणुको जातात. जरी नेसेटांत हिब्रू भाशेंत कामकाज चलता तरी अरब आनी ड्रुझ प्रतिनिधींक अरबी भाशेंत भासाभास करपाची मेकळीक आसा.

ह्या देशाक बरयिल्लें संविधान ना, पूण १९५० च्या कायद्याप्रमाण हांगाचो राज्यकारभार चलता. १९५० च्या मुळाव्या कायद्यावांगडा १९५८, १९६० आनी १९६४ ह्या वर्सांय राज्यकारभार चलोवपाविशींचे कायदे आयले.

थळाव्या राज्यकारभाराच्या सोपेपणाक लागून हांगा २९ नगरपालिको आसात. न्यायालयां तीन पांवड्यांचेर आसात. ह्या देशांत मरणाची ख्यास्त ना, पूण झुजांतले गुन्यांवकार आनी नाझी संघटनेकडेन संबंद आशिल्ल्यांक मरणाची ख्यास्त दिल्या.

१८ ते २५ वर्सांमदल्या आंकवार बायलांक चोवीस म्हयने आनी १८ ते २९ पिरायेमदल्या दादल्यांक छत्तीस म्हयने सक्तीची लश्करी नोकरी करची पडटा. बायलांक फकत धर्मीक कारणांक लागून लश्करी चाकरेंतल्यान मेकळीक मेळटा. देशाच्या राखीव लश्करांत दादल्यांक ५५ आनी बायलांक २५ वर्सां पुराय जायसर काम करचें पडटा. गरज पडल्यार ही पिराय वाडोवची पडटा. सक्तीचें लश्करी शिक्षण आनी चाकरी सोंपल्या उपरांत कोणाकय पुरायपणान लश्करी नोकरेंत रावपाचो अधिकार आसा.

कामगार बळाच्या ३७% बायलां आसात. सुमार १००% इझ्राएली अरब आनी ड्रुझ बायलो कामगारवर्गांत येतात. हिस्तड्रूत ही हांगाची सगळ्यांत व्हडली कामगार संघटना जावन आसा. हांगा सुमार १५० हॉस्पिटलां आसात. भलायकेची जापसालदारकी भलायकी खातें सांबाळटा.

**अर्थीक स्थिती:** देशांतल्या ९०% जमनीचें राश्ट्रीयकरण जालां आनी नांवापुरतेंच कांय भाडें घेवन लोकांक जमीन कसपाखातीर दितात. हांगाचे शेतवड पध्दतीचें खाशेलपण म्हळ्यार 'मोशाव' आनी 'किबुत्स'. मोशाव पध्दतींत शेतकारांक सारकी जमीन दिवन तांचे गांव तयार केल्यात, जाल्यार किबुत्स म्हळ्यार रासवळ शेतवड. गरजेपुरत्या अन्नाचें उत्पादन ह्या देशांत जाता. जमनींत ममसी भिकणां, बटाट, भाजीपालो, बार्ली, गंव, ज्वारी, दाळी, सूर्यफूल, तीळ, तंबाखू हांचें पीक बरेंच येता. हे भायर हांगा फळांय तरातरांची जातात. इझ्राएली संत्रां, मोसंबी नामनेची आसून हांची निर्यात जाता. गोरवां, मेंढरां, कुकडां हे सारकी मोनजात पोसून तांचेर हांगाचो लोक बरेंच उत्पन्न मेळयता. हांगाच्यो गायो भरपूर दूद दिवपी आसात आनी तांची वळख जगांतल्यो बऱ्यापैकी गायो म्हूण जाता.

खनीजसंपत्तीभितर मेल्ल्या दर्यांतलें पॉटेश, ब्रोमीन, मीठ, फॉस्फेट हांचो आस्पाव जाता. तांब्याचे सांठ्वणीचोय सोद लागला. सैमीक वायू आनी तेल हांचें उत्पादन हांगाचे अर्थवेवस्थेक घटाय हाडटा.

हांगाच्या विंगडविंगड धंद्यांची सुरवात निर्वासितांचे दिसपट्टे गरजेंतल्यान जाली. वखदां, लोखणाच्यो वस्तू, चामड्याच्यो वस्तू, कागद, प्लास्टिक, कंवचेचें सामान, तंबाखू, ल्हानसान यंत्रां, विजेचीं उपकरणां, रसायनां, लुगट ह्या सारक्या धंद्यांची बेगोबेग वाड जाली. हिऱ्यांक तासां पाडप हो पिळग्यांच्यो पिळग्यो चलून आयिल्लो धंदो. ह्या उद्येगांत बेल्जियम फाटल्यान इझ्राएलचो क्रमांक लागता. हालीं नुस्तेमारी होय एक म्हत्वाचो धंदो जावन आसा.

संवसारांतल्या चडशा उद्येगीक देशांवांगडा आयात-निर्यातीक लागून इझ्राएलचे संबंद आसात. ४०% आयात आनी ३४% निर्यातीचे वेव्हार युरोपीय देशांकडेन चलतात. अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांकडेन लेगीत ह्या देशाचे १९% आयात आनी २६% निर्यातीचे वेव्हार चलतात.

पर्यटन हो एक म्हत्वाचो धंदो आसा. ह्या धंद्यांतल्यान इझ्राएलाक एका वर्साक सुमार १० कोटी डॉलरांचें उत्पन्न मेळटा. सुमार ५०% पर्यटक युरोपांतल्यान जाल्यार ३७ % अमेरिकेंतल्यान येतात.

फेब्रुवारी १९८० सावन इझ्राएली पाउंड हें चलनी नाणें रद्द करून त्या बदलाक शेकेल हें हांगाचें चलनी नाणें जालें.

**येरादारी आनी संचारण:** देशांभितरले येरादारींत रेल्वेमार्गांपरस रस्त्यांक चड म्हत्व आसा. रेल्वेमार्गांचेर सरकाराची मालकी आसा. हैफा, तेल आवीव्ह, ॲशदॉद आनी ईलेथ हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं बंदरां जावन आसात. जेरुसलेमचे वायव्येवटेन सुमार ३७ किमी. पयस लोड (लिडा) हो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. आंतरराश्ट्रीय हवाई मार्गाचेर इझ्राएली एल् आल ही विमानकंपनी येरादारी सांबाळटा जाल्यार देशाभितरली हवाई येरादारी आर्का इझ्राएली लिमिटेड ही कंपनी सांबाळटा.

तेल आवीव्ह हें खबरांपत्रां उजवाडावपाचें मुखेल केंद्र. चडशीं खबरांपत्रां राजकी पक्षांकडेन बांधील आसतात. चडशीं नेमाळीं हिब्रू भाशेंतल्यान आसतात. रेडिओ आनी दूरदर्शनचेरय हिब्रू भाशेक चड म्हत्व आसा. अरबी भाशेंतल्यानय बऱ्योच कार्यावळी जातात.

**लोक आनी समाजजीण:** इझ्राएलचे वट्ट लोकसंख्येतली ८३% ज्यू, १७% अरब, ड्रुझ आनी हेर आसात. चडशे लोक ज्यू आसले तरी ते विंगडविंगड देशांतल्यान हांगा येवन राविल्ल्यान संस्कृतीसंकराच्यो देखी हांगा पळोवंक मेळटात. हांची आवयभास हिब्रू आनी धर्म ज्यूडा आसलो तरी हांचेमदीं केअराइटस् आनी समॅरिटन हे दोन पंथ, ते भायर युरोपांतल्यान आयिल्ले सेफार्डी आनी आशिया आनी आफ्रिकेंतल्यान आयिल्ले ॲश्केनाझी अशेय दोन पंथ आसात. ह्या देशांत सगळ्यांक धर्मीक स्वतंत्रताय आसा. सिनॅगॉगावांगडा इगर्जी आनी मशिदी हांचीय संख्या बरीच आसा. बहाई पंथाचें मुखेल कार्यालय हैफा हांगा आसा.

हांगाचे सुमार ९०% लोक शारांच्या वाठारांनी रावतात. हांगा ३६ प्रकारांचीं विंगडविंगड वस्तुसंग्रहालयां आसात. बायबलाच्या काळांतले अवशेश हांगा बरेतरेन राखून दवरल्यात. संगीत कलेक पोसवण दिवपाखातीर तेल आवीव्ह आनी जेरुसलेम हांगा खासा तरेचीं विद्यालयां आसात. फुटबॉल, व्हॉलीबॉल, बास्केटबॉल, पेंवप हे खेळ हांगा लोकप्रिय जाल्यात. ज्यू धर्माचे तशेंच किरिस्तांव आनी मुसलमान धर्माचे सगळे सण आनी उत्सव हांगा दबाज्यान मनयतात.

**शिक्षण:** १९४८ वर्सा ज्यू राज्याची थापणूक करतनाच हांगा हिब्रू भाशेंतल्यान शिक्षण दिवपाचो निर्णय घेतिल्लो. १९४९ सावन ५ ते १४ वर्सांमेरेनच्या भुरग्यांक शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आशिल्लें. १९७८ त

हो कायदो बदललो आनी फुकट आनी सक्तीचें शिक्षण घेवपाची पिराय १६ वसांमेरेन वाडयली.

हांगा शिक्षणाच्या मळार एक मुखेल प्रस्न उप्रासलो, तो म्हळ्यार सुमार ७० परस चड विंगडविंगड देशांतल्यान हांगा आयिल्ल्या सगळ्या ज्यू लोकांक कशे तरेन शिक्षण दिवचें? पूण शिक्षण खात्यान ही जापसालदारकी बरेश्शेन सांबाळून ७५% अभ्यासक्रम आपलेकडेन दवरलो आनी २५% खाशेले पध्दतीचें शिक्षण दिवपाचें थारायलें. धर्मीक शिक्षणाखातीर हांगा स्वतंत्र शाळा आसात. तेल आवीव्ह हांगा मुखेल विश्वविद्यालय आसा. तेभायर व्हायट्समान इन्स्टिट्यूट ही वैज्ञानिक शिक्षण दिवपी संस्था जावन आसा. बार इल्लान विश्वविद्यालय हें धर्मीक शिक्षण दिवपी मुखेल विश्वविद्यालय आसा. शिक्षणांत हिब्रू भाशेवांगडा इंग्लीश भाशेचोय वापर जाता.

**भाशा आनी साहित्यः** हिब्रू आनी अरबी ह्या दोनूय भाशांतल्यान हांगा उलोवप आनी बरप जाता. इझ्राएली, मुखेल करून हिब्रू भाशेची आनी साहित्याची परंपरा बरीच पोरनी आसा. ज्यू लोक इतिहासकाळांत जगभर पातळिल्ल्यान विंगडविंगड भाशांतल्यान ज्यू कवी, लेखक, शास्त्रज्ञ, कलाकार हांणी बरप केलां. इझ्राएलचे थापणुकेउपरांत हिब्रू साहित्यांत चडांत चड बरप जावंक लागलें. दर वर्सा सुमार दोन हजारांपरस चड पुस्तकां हांगा उजवाडाक येतात.

**म्हत्वाचीं थळां:** सामक्या उण्या काळाभितर इझ्राएल बळीश्ट राश्ट्र जावन गेल्ल्यान तें जगांतल्या भोंवडेकारांक आकर्शण थारलां. जेरुसलेम, तेल आवीव्ह, जाफा, हैफा, नाझारेथ, होलॉन, पेटा तीक्का, मातान्या, इलॅथ हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं शारां जावन आसात.

-कों. वि. सं. मं.

**इटली:** युरोपाचे दक्षिणेवटेनचें, आल्पससावन भूंयमध्य समुद्रामेरेन पाविल्लें एक प्रजासत्ताक राश्ट्र. सार्डिनिया आनी सिसिली ह्या व्हड आनी एल्बा, जील्यो, इस्किया, काप्री, लिथारी, पांतेल्लेरीया, लँपेडूसा ह्या ल्हान जुंव्यांचो आस्पाव ह्या राश्ट्रांत जाता. हाका लागून भूंयमध्य समुद्राचे दोन वांटे जाल्यात. विस्तार- अक्षवृत्तीय, ३६° ३८' उत्तर ते ४७° ५' उत्तर आनी रेखावृत्तीय ६° ३३' उदेंत ते १८° ३१ उदेंत. क्षेत्रफळ ३,०१,१९५ चौ. किमी. लोकसंख्या ५,७२,०२,३४५ (१९८५). देशाची चडांतचड लांबाय १,१४२ किमी. रुंदाय आल्पसवटेन ५६३ किमी. जाल्यार दक्षिणेवटेन उण्यांत उणी ३२ किमी. आसा. इटलीच्यो शिमो वायव्येक फ्रांस, उत्तरेक स्वित्झर्लंड, ऑस्ट्रिया आनी ईशान्येवटेन युगोस्लाव्हिया ह्या देशांक तेंकल्यात. जुंवे सोडून देशाची शीम सुमार ४,३०० किमी. लांबायेची आसा. द्वीपकल्पाचे अस्तंतेवटेन लिग्यूरियन आनी टिरीनियन, दक्षिणेवटेन आयोनियन आनी उदेंतेवटेन एड्रिएटिक दर्या आसात. सिसिली हो नैर्ऋत्येवटेनचो जुंवो मेसिना सामुद्रधुनीक लागून वेगळो जाला. सार्डिनिया रोमसावन अस्तंतेवटेन सुमार २४० किमी. आनी सिसिलीचे वायव्येवटेन ३२० किमी. पयस आसा. देशाच्या शिमांभितर सान मारीनो ह्या ल्हानशा (६१ चौ. किमी.) प्रजासत्ताकाचो आनी व्हॅटिकन (०.४ चौ. किमी.) ह्या सार्वभौम धर्मपीठाचो आस्पाव जाता.

**भूंयवर्णनः** उत्तरेवटेन आल्प्स, दक्षिणेक पो न्हंय आनी तिचेयफुडें दक्षिणेवटेनच्या द्वीपकल्प वाठारांत फाटीच्या कण्याभशेन पातळिल्लो ताच्या ॲपेनाइन्स आनी ॲपेनाइन्साच्या दोनूय वटांनी आशिल्ल्यो दर्यादिगो अशें सादारणपणान इटलीचें भूंयवर्णन आसा. हांगाच्या आल्प्स पर्वताचे तीन सारके वांटे जातात. पीडमाँट, लाँबर्ड आनी व्हिनिशीयन आल्प्स. जेनोआचे अस्तंतेवटेनचे कादीबोना पाज्जेसावन स्वीस शीमेवेल्या सिंप्लॉन पाज्जेमेरेन पातळिल्ल्या पीडमाँट आल्पसांमदीं तुटिल्ले कडे आनी फकत २५ किमी. च्या वाठाराभितर २,७५० मी. उंचायेची सुळ्यांभशेन दोंगरा तेमकां आसात. सेंट बर्नार्ड आनी माँ सनी ह्यो म्हत्वाच्यो पाज्जी ह्याच वाठारांत आसात. हांगाच्या माँट वीझोसावन पो न्हंयचो जल्म जाला. आल्पसस सावन व्हांवतल्या हिमन्हंयांक लागून लाँबर्ड आल्पसाच्या वाठारांत माद्जोरे, लूगानो, कॉमो, ईझेओ, गार्दा ह्यासारकीं सोबीत तळीं तयार जाल्यांत. व्हिनीशियन आल्प्स ईशान्येवटेन कांपॉरॅसॉ (तार्वीस्यो) पाज्जेमेरेन पातळ्ळा आनी ताची उंचाय २,४००-३,३०० मी. मेरेनच आसा. ताची रुंदाय मात चड आसा आनी ताका लागून थंयसावन येरादारी बरी जावंक पावल्या. हांगाच्या ब्रेनर पाज्जेची उंचाय फकत १,४३० मी. आसा. इटली, ऑस्ट्रिया, युगोस्लाव्हिया हांच्या मदलो कार्स्ट भुंयेचो पट्टो हांगासावन सुरू जाता. सूर्य उदेतना आनी अस्ताक वतना विंगड विंगड रंगांनी झगझगपी, ३,३०० मी. मेरेन उंचायेचे पूण सामके नकसूद दोंगरासुळे आशिल्ल्यान हे डोलोमायट दोंगर पर्यटकांखातीर आकर्शण जावन गेल्यात. पो न्हंयचो वाठार अस्तंतेवटेन अशीर जाल्यार उदेंतेवटेन रुंद जायत गेला आनी देशाच्या वट्ट वाठारांतलो हो १७% वाठार आसा. आद्दा, ओल्यो, तीचीनो, सेझ्या, त्रेब्या, तारो, तानारो ह्यो पो च्यो उपन्हंयो, आदीजे, ब्रटो, पियावे ह्यो ह्या वाठारांतल्यो हेर न्हंयो आनी कितलेशेच व्हांवते झरे हांकांलागून हें मळ सामकें पिकाळ जालां. हाका लाँबर्दीचें मळ अशेंय म्हण्टात.

इटलीचे मुखेल भुंयेवेलो व्हेसूव्हिअस (१,१७५ मी.) सिसिलींतलो एटना (३,२७५ मी.) आनी स्ट्राँबोली जुंव्यांवेलो स्ट्राँबोली (९२६मी.) ह्या सारके जागृत ज्वालामुखी हांगा आसात. जपाना फाटोफाट भूंयकांप ह्या देशांत जातात. ॲपेनायन्सचे उत्तर, दक्षिण आनी मदलो अशे तीन वांटे जावन आसात. हाच्या मदल्या वाठारांत बोल्सेना, ब्रात्चानो, वीको, नेमी, आल्बानो हीं तळीं निर्माण जाल्यांत. माँटे कोर्नो (२,९२० मी.) हे ॲपेनायन्सचें सगळ्यांत ऊंच दोंगरातेमक. ॲपेनायन्ससावन उदेंतेवटेन बऱ्योच ल्हानसान न्हंयो आनी अस्तंतेवटेन आर्नो, टायबर, लीरी, वोलतूर्नो, गारीग्लियानो ह्यो व्हड न्हंयो व्हांवतात. बोक्केता, लाचीझा, ला फूता, जोंवी, पेस्कारा, स्केर्दजा ह्या सारक्यो तेरा म्हत्वाच्यो पाज्जी आशिल्ल्या अपॅनायन्सावरवीं येरादारी बरीच सोपी जाल्या.

इटलीची वायव्येवटेनची दर्यादिग दोंगरी, वयरसकयल आनी अशीर आसा. आल्प्सांक लागून आनी भूंयमध्य समुद्रावेल्या हवामानाक लागून ती पर्यटकांखातीर आकर्शण जाल्या. हो वाठार रिव्हीएरा नांवान नामनेक पावला. अस्तंत दर्यादिगेवेलो हस्फनी, रोम, नेपल्स हांगाच्या न्हंयांचो वाठार म्हळ्यार पिकाळ मळां, जाल्यार उदेंतेवटेनची चडशी दर्यादिग अरुंद आनी चुनखडेची आसा. सिसिली जुंवो चडसो दोंगरी आनी पठारांचो आसा. सार्डिनीयोचो नेर्ऋत्य वाठार सोडून हेर वाठार दोंगरी आसा.

मुखेल भुंयेचेर टायबर, आर्नो ह्यो व्हड न्हंयो सोडल्यार हेर न्हंयांनी गिमा दिसांनी सामकेंच उणें उदक आसता. पावसाळ्यांत मात तांकां हुंवार येतात. उत्तरेवटेनच्या पो न्हंयक आल्प्स पर्वतावेल्यान व्हांवपी हिमाचें उदक मेळिल्ल्यान ती वर्सभर भरिल्ली आसता.

**हवामानः** इटलीचें हवामान भूंयमध्यसागरी आसा. ऊंच सकयल वाठारांक लागून हवामानांत बदल जातात. जुलय म्हयन्यांत तापमान सुमार २४° से. जाल्यार जानेवारींत ८° से. आसता. आल्प्स पर्वतांच्या ऊंच रांकांक लागून उत्तरेवटेनच्या थंड वाऱ्यांक आडखळ जाता आनी ताका लागून पो न्हंयच्या वाठारांतली थंडी मात्शी उणी जाता. गिमांत मात्शी गरमी जाता आनी पावस वसंत आनी शरद ऋतूंत पडटा. पो देगणांत तो ९० सेंमी. जाल्यार आल्प्स पर्वतावटेन सुमार २०० सेंमी. मेरेन पडटा. दोंगरी वाठारांनी तो वाडत वता आनी थंय हिम पडटा. रिव्हीएरा दर्यादिगेचे कुशीक हवामान वर्सभर चकचकीत वत आसता. दर्या लागीं आशिल्ल्यान द्वीपकल्पाच्या वाठारांत शीं उणें लागता. एड्रिॲटीक दर्याचे कुशीक आल्प्सचे उणे उंचायेक लागून ईशान्येवटेंतल्यान येवपी 'बोरा' नांवाचें थंड वारें त्या वाठारांतली थंडी वाडयता. भरपूर वत आनी सुकी हवा हीं हांगाच्या हवामानाचीं खाशेलपणां.

**वनस्पत आनी मोनजातः** ३००० वर्सांसावन हांगा मनशाचो राबितो आशिल्ल्यान हांगाची मूळ वनस्पत नश्ट जावन गेल्या. आल्पसच्या २०००




मीटरांवेल्या वाठारांनी आनी अॅपेनायन्सच्या २,३०० मीटरांवेल्या वाठारांनी अशीर पानांचे रुख आनी तांच्या सकयल बीच, ओक आनी चेस्टनट सांपडटात. पो न्हंयच्या वाठारांत पॉब्लर, विलो आनी द्वीपकल्पाचेर आनी जुंव्यांचेर बूच, ओक, ज्यूनिपर, लॉरेल, मर्टल हीं झाडां आसात. २०% वाठारांनी रानां पातळळ्यांत आनी चडशे रानांचे वाठार आल्प्स दोंगरांनी आसात. दक्षिणेवटेन द्वीपकल्पाचेर आनी जुंव्यांचेर सामकींच उणीं रानां आसात. हातूंतल्यान मेळपी लांकूड इटलीची मदेराची गरज भागोवंक शकना. रानां उणीं जाल्यान दोंगरा-वाठार उक्ते पडल्यात आनी शिकारेक लागून रानवट जनावरांय उणीं जावन गेल्यांत. आल्प्स पर्वताच्या कांय वाठारांनी वांस्वेलां, शॅमॉय जातीचीं हरणां, द्वीपकल्पाचे कुशीक भालू आनी सार्डिनियांत सांबर सारके प्राणी उण्या प्रमाणांत दिश्टी पडटात. रानदुकर मात बरेच आसात. डोमकावळे आनी भांडीकं हीं सवणीं आनी शेड्डे हीं हांगाचीं खाशेलेपणां. दर्यांत तरांतरांचीं नुस्तीं आसात. दर्यादिगेलागीं डॉल्फिन जातीचें नुस्तें बऱ्याच प्रमाणांत मेळटा.

**इतिहासः** इटलीच्या पूर्विल्ल्या इतिहासाक कड परंपरा आसा. इ. स. पयलीं १२००-१००० ह्या काळांत इ.ट्रुस्कन लोकांनी टायबर न्हंयचे अस्तंतेवटेन राबितो केल्लो सांपडटा. कांय काळाउपरांत तांची सत्ता दक्षिणेक लेशियम, कँपेन्यामेरेन आनी उत्तरेक पठारांमेरेन पावली. ताच्या फाटल्यान रानवट लोकांनी हे गिरेस्त संस्कृतायेचेर घुरयो घाल्यो. इ.स.प. ७३० च्या काळांत ग्रीक हांगा पावले आनी ते अस्तंतेवटेन रावंक लागले. उत्तर सिसिलीच्या फिनीशीयन लोकांक लागून ग्रीकांचो विस्तारवाद आळाबंदाक आयलो. इ.स.प. ५१० वर्सा रोमन लोकांनी प्रजासत्ताकाची थापणूक केली आनी लॅटीन लीगचें फुडारपण आपणायलें. रोमन संस्कृतायेच्या अस्ताउपरांत इटलीच्या राजकी जिवितांत मुळावे बदल जाले.

हांगाच्या इतिहासाचे सादारणपणान अशे वांटे जातात. १. मध्ययुगः ४७६-११००, २. पोपसत्ता आनी राज्यसत्ता हांच्या मदल्या घुस्पटींचो काळः ११००-१४००, ३. प्रबोधनकाळः १४००-१७९५, ४. नेपोलियन आनी एकवटाचो काळः १७९५-१८७०, ५. आर्विल्लो काळः १८७० च्या फुडें.

**मध्ययुगः** मध्ययुगाचे सुर्वेक इटलींत गॉथ (व्हिसिगॉथ) आनी व्हँदॉल ह्या टोळयांनी घुरयो घालून रोमन साआन्य दुबळें करून सोडलें. व्हँदॉलांनी ४५५ त रोमाचेर घुरी घालून तें साम्राज्य निमणें नश्ट केलें. तांचो सेनापती ऑडोव्हेकर हाणें ऑगस्टस ह्या सम्राटाक सकयल देंवयलो आनी ४७६ वर्सा रोमन साम्राज्य सामकेंच काबार जालें. ऑडोव्हेकर हो हांगाचो सम्राट जालो. ताचेर फुडें ४९३ त थीओडोरिक द ग्रेट ह्या ऑस्ट्रोगॉथ टोळयेच्या राजान जैत मेळयलें. ५२६ मेरेन ताणें सवकसायेन राज्य चलोवन हांगा शांतताय आनी सुवेवस्था हाडली. ५५२ वर्सा गॉथ राजाचो पराभव जावन इटली बायझंटीन साम्राज्याच्या शेकातळा आयलें. त्याचवेळार लॉंबर्दी नांवाचे लोक हांगा घुरयो घालूंक लागले. बायझंटीनच्या काळांत हांगा पोपची सत्ता रिगूंक सुरवात जाली. (३३०-१०५०)

लॉंबर्दी लोकांनी पो न्हंयच्या वाठारांत ५६८ वर्सा आपलें राज्य वाडयलें. तें सुमार दोनशीं वर्सां बरेतरेन चल्लें. ह्याच काळांत पोपचे सत्तेंत वाड जाल्ली. ५९० त ग्रेगरी द ग्रेट हो पोप जालो. ताणें लॉंबर्दीकडल्यान रोम घेतलें आनी पोप साम्राज्याची खऱ्या अर्थान बुन्याद घाली. लॉंबर्दीक काबार करपाखातीर तिसरो पोप स्टीव्हेन हाणें ५३त फ्रँक राजा पेपिन हाका आपयलो. पेपिनान लॉंबर्दीचेर जैत मेळोवन बरेच वाठार पोपाक जिखून दिले. फुडें वीस वर्सांउपरांत ताचो भुरगो शार्लमेन हाणें लॉंबर्दीक पुरायपणान हरोवन ८०० वर्सा पोपाकडल्यान रोमन साम्राज्याचो सम्राट म्हूण अभिशेक करून घेतलो.

८४३ त, सिसिलींत अरब पावले. धाव्या शेंकड्यांत इटलींत बरेच

ल्हान व्हड सरदार आनी उमराव सत्तेर आयले. ताका लागून हांगा राजकी थीरपण आयलें ना. ९५१ त जर्मन राजा पयलो ऑटो द ग्रेट हाणें इटलींत आपलें राज्य हाडलें. बारावो पोप जॉन हाणें ताका रोमन सम्राट म्हूण ९६२ त जाहीर केलो. ऑटोन देशाभितर आशिल्ली बेबंदशाय कांय काळ पयस केली. पोप जॉनच्या वायट वर्तणुकीक लागून ऑटोन ताका पदावेल्यान सकयल देंवयलो. ह्या काळांत सम्राटाचो पोपाचेर पुरायपणान शेक चलतालो. इकराव्या शेंकड्यांत नॉर्मन लोकांनी इटलीचेर घुरयो घाल्यो. फुडें तांणी अरबांकडल्यान सिसिलीय जिखून घेतलो.

**पोपसत्ता आनी राज्यसत्ता हांच्यामदल्या झगड्यांचो काळः** इकराव्या शेंकड्यांत पोप आनी पवित्र रोमन सम्राट हांच्यामदलीं झगडीं वाडूंक लागलीं. ताचो परिणाम म्हळ्यार दोनूय सत्तांचें बळगें उणें जालें. ताका लागून जेनोआ, मिलान, व्हेरोना, प्याचत्सा, बोलोन्या, फ्लॉरेन्स, पीसा, व्हेनिस हीं नगरराज्यां अस्तित्वांत आयलीं. जेन्ना ११५४ त फ्रेड्रिक बाबीरोसा (११२५-११९०) ह्या जर्मन राजान इटलींत पावल दवरलें आनी नगरराज्यांचो आनी पोपाचो शेक उणो करपाचो निश्चेव केलो. पूण ११७६ त इटालियन नगरसंघान (लॉंबर्दी लीग) ताचेर जैत मेळयलें. ११८३ त, फ्रेड्रिकान ह्या नगरांच्या स्वतंत्रतायेक मान्यताय दिली. ११९८ ते १२१६ ह्या काळांत पोप तिसरो इनोसंट हाणें इगर्जेची सत्ता वाडयली. हाकालागून सम्राटाआड तांचें झगडें पेटलें. हीं झगडीं दुसरो फ्रेड्रिक (११९४-१२५०) हाच्या काळांत तेंगशेर पावलीं. फ्रेड्रिका उपरांत सम्राटांचो शेक उणो जावंक लागलो. इटलींत फ्रेंचांची सत्ता वाडली, पूण फ्रेंचांच्या वायट वागणुकेक लागून सिसिलीयन लोकांनी बंडा केलीं. आठवो पोप बॉनिफेस (१२३५ ?-१३०३) हाणें पोपसत्तेचो विस्तार केलो. सिसिली, फ्लॉरेन्स हांगासल्ल्या भानगडींनी वांटो घेवन इगर्जेची सत्ता थंय वाडयली. पूण ताका कितलेशेच दुस्मान तयार जाले. तांच्याआड झुजपाखातीर ताणें फ्रेंचांकडेन पालव मागलो. पूण शेवटाक फ्रेंचानी ताकाच बंदखणींत घालो (१३०३). चवदाव्या शेंकड्यांत थळाव्या राज्यांनी इटलीच्या वैभवांत आनी संस्कृतायेंत मोलाची भर घाली. पूण त्याच वांगडा एकामेकांमदलीं झुजां आनी दुस्मानकाय हांकां लागून इटली, परकी सत्तांखातीर एक सर्तीचो वाठार जालो.

**प्रबोधनकाळः** ह्या काळांत फ्लॉरेन्स आनी मिलान हांच्यामजगतीं बरोच तेंप लडाय जाली (१३५०-१४५४). उपरांत १४५५ त, मिलान, फ्लॉरेन्स, व्हेनीस आनी नेपल्स हांणी एकठांय येवन 'इटालियन संघ' निर्माण केलो. ताका पोपानय मान्यताय दिली. पंदराव्या शेंकड्यांत इटलीच्या एकवटाचो हो व्हड यत्न आशिल्लो. कॉन्स्टँटिनोपलच्या पराभवा उपरांत तुर्कांचो भंय चड वाडलो. ह्या संघाक लागून तो उणो जालो आनी इटलीची उदरगत जावंक लागली.

पंदराव्या शेंकड्यांत नेपल्स आनी फ्लॉरेन्स हांगा कला आनी पोरने बरपावळीक बरे दीस आयले. अमेरिकेच्या सोदाउपरांत इटलीचेर एकाफाटल्यान एक परक्यांच्यो घुरयो येवंक लागल्यो. १४९४ त फ्रांसचो आठवो चार्ल्स हाणें इटलीचेर घुरी घाली आनी नेपल्साचेर आपली सत्ता हाडली. स्पेन आनी फ्रांसच्या राजांनी इटलीचे वाठार जिखून घेवंक सुरवात केली. स्पेनच्या ५ व्या चार्ल्सान सगळो देश आपले सत्तेखाला हाडलो. जर्मन आनी स्पॅनिश सैन्यान रोम शार आनी हेर वाठार भूंयभरवण करूंक सुरवात केली. पूण फुडें १५०० मेरेन हांगा राजकी थीरपण आयलें. मात फुडलीं सुमार दोनशीं वर्सां इटली युरोपांतल्या राजांखातीर झुजाचें मळ थारलें आनी जीं नगरराज्यां वांचून उरिल्लीं, तीं नश्ट जावन गेलीं. पूण ह्या काळांत कला आनी गिन्यानाच्या मळार बरीच उदरगत जाली. लिओनार्दो दा व्हिंची, मायकेलअँजेलो ह्या सारक्या कलाकारांक आनी मॅकिआव्हेली सारक्या राज्यशास्त्रावेल्या विद्वानांक लागून इटली युरोपीय देशांखातीर एक आदर्श थारलो. फुडें १५२१-१७१६ च्या काळांत इटलीचेर परक्यांची सत्ता चलताली. स्पेन आनी फ्रांस हांच्या झुजाचो इटली एक बळी जाल्लो. स्पेनचो पांचवो चार्ल्स आनी फ्रांसाचो पयलो फ्रान्सिस हांच्यामदीं १५२१ सावन झुज सुरू जाल्लें. १५२९ त चार्ल्स जैतिवंत जालो. पोपान ताचो सम्राट म्हूण अभिशेक केलो. फ्रांस आनी स्पेन हांच्यामजगतीं जाल्ल्या १५५९ च्या कातो-कांब्रेझी कबलातीउपरांत सिसिली, मिलान आनी नेपल्स हीं राज्यां स्पेनाचीं जालीं आनी फ्रांसान इटलींतल्या हॅप्सबर्ग घराण्याचे सत्तेक मान्यताय दिली. १७८९ त फ्रेंच राज्यक्रांतीचो उठाव जाल्या उपरांत इटलींतली परिस्थिती बदलूंक लागली. पयलीं फ्रेंच राज्यक्रांतीक फाटबळ दिवपी वर्ग क्रांतीकारकांच्या अतिरेकी कर्तुपांक लागून तांकां विरोध करूंक लागलो. १७९६ त नेपोलियनान इटलीचेर आपली सत्ता हाडली.

**नेपोलियन आनी एकवटाचो काळः** १८०४ वर्सा नेपोलियन सम्राट जालो. ताणें आपल्या सावत्रभावाक इटलीचो व्हायसरॉय केलो. फुडें ताणें नेपल्सच्या गादयेर आपलो मेवणो जोसेफ हाका बसयलो, आनी १८११ वर्सा चल्याक रोमचो राजा म्हूण जाहीर केलो. १८१५ त, नेपोलियनचो पराभव जाल्या उपरांत ऑस्ट्रियान लॉंबर्दी आनी व्हिनीशिया हे वाठार आपल्या हातांत घेतले. पूण ह्या वेळार हांगा एकवटाचे आनी राश्ट्रवादाचे विचार बरेच मूळ धरूंक पाविल्ले. परकी सत्तेक विरोध करपाखातीर आनी इटलीचें संयुक्त राज्य निर्माण करपाखातीर १८१५ ते १८४८ च्या काळांत हांगा कितल्योशोच गुप्त संघटना तयार जाल्यो. १८२० त नेपल्सांत आनी उपरांत पीडमॉंट हांगा क्रांतीकारक उठाव जाले. पूण ऑस्ट्रियाच्या पालवान ते चिड्डून उडयले. १८३०-३१ उपरांत हांगा बरेच राजकी बदल जाले आनी पोरन्या गुप्त संघटनांचो जागो मॅझीनीच्या 'यंग इटली' ह्या क्रांतीकारक संघटनेन घेतलो. मॅझीनीच्या विचारांतल्यान स्फूर्त घेवन देशभक्तीचेर बरीच बरपावळ जाली. इटलीक ऑस्ट्रियाच्या सत्तेंतल्यान सोडोवन थंय प्रजासत्ताकाची थापणूक करपाचो मॅझीनीचो उद्देश आशिल्लो. ही चळवळ चालू आसतनाच १८४८ त युरोपांत क्रांती जाली. इतले मजगतीं रोमांत मॅझीनीच्या फुडारपणाखाल प्रजासत्ताकाची थापणूक जाली. पोप पळून गेलो. पूण जुलय १८४९ त फ्रेंचांनी रोमाचेर जैत मेळयलें आनी पोपाक थंय पर्थून हाडलो. व्हेनिसांत जाल्लें बंड ऑस्ट्रियान मोडून उडयलें. पूण १८४९ त सार्डिनियांत सत्तेर आयिल्ल्या दुसऱ्या व्हिक्टर इम्यॅनुएलान उदारमतवादी धोरण आपणायलें; ताणें इटली स्वतंत्रतायेक तेंको दिलो आनी काव्हूर हाका पंतप्रधान नेमलो. १८५९ त फ्रांसाच्या पालवान ताणें ऑस्ट्रियाचो पराभव केलो आनी इटलीच्या एकवटाखातीर बरेच कश्ट घेतले. गारिबाल्डी आनी ताच्या सैनिकांनी सिसिली आनी नेपल्सचेर जैत मेळयलें आनी इटलींतलीं राज्यां सार्वमतान सार्डिनियांत विलीन जालीं. १७ मार्च १८६१ दिसा इटलीचें स्वतंत्र राज्य जाहीर जालें. इटलीन १८६६ त प्रशियाकडेन इश्टागत करून ऑस्ट्रो-प्रशियन झुजांत वांटो घेतलो आनी ऑस्ट्रियाकडल्यान व्हिनीशीया वाठार मेळयलो. १८७० तल्या फ्रँको-प्रशियन झुजांत रोमांतल फ्रेंच लश्कर काडून घेतलें, तेन्ना इटालियन सैन्यान रोम आपल्या हातांत घेतलें. रोम इटलीची राजधानी जाली.

**आर्विल्लो काळः** इटलींत १८७१ ते १९१४ ह्या काळांत लोकशायेचो प्रयोग जालो. इम्यॅनुएलचें कार्य फुडें ताच्या उपरांत सत्तेर आयिल्लो हंबर्ट हाणें चलयलें. १८८२ वर्सा इटलीन जर्मनी आनी ऑस्ट्रिया हांचेकडेन इश्टागतीची कबलात केली. १८९५-९६ त इटलीन ॲबिसिनीयाचेर (इथियोपिया) घुरी घाली. पूण तातूंत इटलीचो पुरायपणान पराभव जालो. ह्या झुजाक लागून जाल्लें लुकसाण भरून काडपाखातीर लोकांचेर कर बसयले आनी ताका लागून देशांतली शांतताय इबाडली. १९०१ ते १९०५ ह्या काळांत कितलेशेच संप जाले. १९०८ त जाल्ल्या भूंयकांपाक लागून देशाची अर्थीक स्थिती चडूच इबाडली. पयल्या म्हाझुजाच्या सुर्वेक इटली तटस्थ रावलो. १९१५ त इंग्लंड, फ्रांस आनी रशिया हांच्यावांगडा कबलात करून पयलींची ऑस्ट्रिया-जर्मनीवांगडा जाल्ली कबलात रद्द केली. झुजाउपरांतच्या वायट परिस्थितीक लागून राजकी थीरपण येवंक पावलें ना. खर राश्ट्रवादांतल्यान 'फॅसिझम' उदेलें आनी ताचें फुडारपण रोखडेंच मुसोलिनीच्या हातांत गेलें. ताणें राश्ट्रवादी लोकांची संघटना मार्च १९१९ त निर्माण करून तिका 'फॅसिस्ट' हें नांव दिलें आनी तेच

विचारसरणेंतल्यान फॅसिझम हें नांव सगळ्याक पावलें. खून, दहशत ह्या सारक्या गजालींचो उपेग करून तांणी देशभर आपलो भंय निर्माण केलो. १९२२ मेरेन फॅसिस्ट पक्ष बरोच बळीश्ट जालो आनी तांणी सगळ्या इटलीचेर आपलो शेक गाजोवंक सुरवात केली. तिसऱ्या व्हिक्टर इम्यॅनुएलान तांची सत्ता मान्य केली आनी मुसोलीनीक पंतप्रधान करून शासकीय सत्ताय ताच्या हातांत दिली. फुडें मुसोलिनीन स्पेन आनी आल्बेनिया (१९२६), हंगेरी (१९२७), इथियोपिया, ग्रीस (१९२९) आनी ऑस्ट्रिया (१९३०) ह्या राश्ट्रांकडेन इश्टागतीच्यो कबलाती केल्यो. १९३० त लश्कर वाडोवपाचो निर्णय घेवन नौदलाची वाड करपाक सुरवात केली. पोपाविशींचे प्रस्न १९२९ त बरेपणान सोडोवपांत तो जैतिवंत जालो. पोपाचे हक्क आनी स्वतंत्र अस्तित्व हांकां मान्यताय मेळ्ळी. १९३०-१९३५ ह्या काळांत हांगाची अर्थीक स्थिती सामकी वायट जाल्ली.

इटलीन इथियोपियाचेर १९३५ त घुरी घाली आनी राश्ट्रसंघाकडेन वायटपण घेतलें. १९३६ च्या स्पेनांतल्या यादवी झुजांत इटलीन बंडखोरांच्या वटेन वांटो घेतलो, तेन्ना फ्रांस आनी इंग्लंड हांकां इटलीच्या वाडत वचपी सत्तेविशीं दुबाव येवंक लागलो आनी इटली त्याच वर्सा जर्मनीवांगडा बरेपण करून फ्रांसाच्या बळाआड उबो रावलो. जर्मनी आनी जपान हांच्याकडेन कम्युनिस्टांआड कबलात करून १९३९ त ताणें आल्बेनियाचेर जैत मेळयलें.

दुसऱ्या म्हाझुजाचे सुर्वेक (सप्टेंबर १९३९)-इटली तटस्थ रावलो. जून १९४० त मात ताणें फ्रांस आनी इंग्लंडाआड झूज सुरू केलें. सप्टेंबर १९४० त जर्मनी, इटली आनी जपान हांणी एकामेकांक धा वर्सांखातीर पुरायपणान पालव दिवपाचें आश्वासन दिलें. २७ ऑक्टोबर १९४० दिसा इटलीन ग्रीस भूंयभरवण करून जर्मनीचो आदार मागलो आनी अमेरिकेआड १९४१ त झूज मांडलें. ताचे उपरांत १९४३ त तांच्यो आफ्रिकेंतल्यो वसाहती हातांतल्यान गेल्ल्यान झुजाची शक्त सोंपली. मुसोलिनीक राजीनामो दिवंचो पडलो. फेब्रुवारी १९४४ त इश्ट राश्ट्रांनी इटलीकडल्यान जिखून घेतिल्ले चडशे वाठार परते दिले. जून १९४६ त हांगा सार्वमतान प्रजासत्ताकाची थापणूक जाली.

डिसेंबर १९४७ च्या नव्या संविधानाप्रमाण सत्तेचें विकेंद्रीकरण जालें. १९४८ च्या वेंचणुकांत ख्रिश्चन डॅमोक्रॅट पक्षाक भोवमत मेळ्ळें, पूण १९४६ ते १९६० ह्या काळांत नव्या फॅसिस्ट आनी कम्युनिस्ट संघटनांची निर्मणी जाली. इटालियन सोशल मुव्हमेंट वा 'मिसिनी' ह्या नांवान फॅसिस्ट मुखार आयले. दिसानदिस तांचें बळगें वाडून कम्युनिस्ट संघटनांक भिरांत निर्माण जाल्याउपरांत सगळे दावे पक्ष एकठांय आयले. आनी ताणी जुलय १९६० च्या शेवटाक आमींतोरे फानफानी हाच्या फुडारपणाखाल नवें सरकार हाडलें. ताचेउपरांत इटलींत एका फाटल्यान एक अशे राजकी बदल जायत रावलो. जून १९७२ त ज्यूलिओ आंद्रेऑत्ती हाणें पंतप्रधानपदाचो राजीनामो दिलो आनी ताच्या जाग्यार रुमर हाणें जुलय १९७३ त ख्रिश्चन डॅमोक्रॅट, सोशलिस्ट, सोशल डॅमोक्रॅट्स आनी रिपब्लिकन पक्ष हांकां एकठांय हाडून सरकार घडयलें. १९७४ च्या ऑक्टोबरांत ह्या सरकाराक राजीनामो दिवचो पडलो. मोरो हाणें ख्रिश्चन डॅमोक्रॅट्स आनी रिपब्लिकन पक्षांक एकठांय हाडून आपलें सरकार सत्तेर हाडलें. हाच्याउपरांत खंयच्याच एका पक्षाक स्पश्ट भौमत मेळ्ळें ना आनी विंगडविंगड पक्षांचीं भरसल्लीं सरकारां सत्तेर आयलीं. १९६३ उपरांत आयिल्लीं सगळीं सरकारां चडशीं दाव्या आनी मदल्या पक्षांच्या प्रभावाखाल आशिल्लीं.

**राज्यवेवस्थाः** युरोपांत ग्रीसा फाटोफाट इटलीची राज्यपध्दत पोरनी आसा. हांगाचे परिस्थितीक लागून जगाच्या राजकारणांत इटलीचे राज्यवेवस्थेक एक खाशेलें म्हत्व आसा.

ह्या देशाचें संविधान मुखेल करून इंग्लंड, अमेरिका आनी फ्रांस ह्या देशांच्या राज्यपध्दतीच्या आदारावेल्यान तयार केलां. संविधानाचे १८ वांटे आनी १३९ वळेन्यो आसात. हातूंत समेस्तांक समताय, जिवीत, संपत्ती, स्वतंत्रताय हांची राखण, भाशणस्वतंत्रताय, धर्मस्वतंत्रताय दिल्या. राश्ट्राध्यक्ष हो राश्ट्राचो मुखेली आसता आनी वेंचून आयल्या उपरांत सात वर्सांखातीर तो राज्यकारभार चलयता. ताची निवड दोनूय सभाघरांनी करतात. वयलें सभाघर (सीनेट) आनी सकयलें सभाघर (चेंबर ऑफ डेप्यूटीज) हांच्या पालवान राज्यकारभार चलता. सकयल्या सभाघरांत ६३० सभासद आसतात. वेंचणुकांनी उमेदवारीखातीर अर्ज भरतल्यांची पिराय २५ वर्सां पुराय जाल्ली आसूंक जाय. ह्या सभाघराची वेंचणूक दर पांच वर्सांनी जाता. २१ वर्सां पुराय जाल्ल्या दरेकल्याक मत दिवपाचो अधिकार आसता. सीनेटचे वेंचणुकेक उबो रावतल्याक ४० वर्सां पुराय जावंची पडटात आनी मतदाराची पिराय २५ वर्सां आसची पडटा.

सद्याक हांगा वट्ट मुखेल ९ राजकी पक्ष आसात. राज्यकारभाराच्या सोपेपणाक लागून रीजन्स, प्रोव्हिन्सिस आनी कम्युन्स अशे प्रादेशिक वांटे केल्यात. ह्या देशांत मरणाची ख्यास्त ना.

**अर्थीक स्थितीः** रोमन साम्राज्याउपरांत इटलीची अर्थीक स्थिती इबाडत गेली. प्रबोधनकाळाउपरांतय हांगा अर्थीक नदरेंतल्यान चडशी उदरगत जाली ना. विसाव्या शेंकड्याच्या सुर्वेकमेरेन इटली युरोप खंडांतलो फाटीं पडिल्लो शेतवडीचेर चलपी देश जावन आशिल्लो. दोनूय म्हाझुजांक लागून अर्थीक मळार ह्या देशाचें व्हड लुकसाण जालें. १९५० उपरांत सरकारान आपणायिल्ल्यो नव्यो येवजणी, उद्येगीक धोरण, परकी पालव, पर्यटकांकडल्यान मेळपी उत्पन्न हांकां लागून राश्ट्रीय उत्पन्न वाडलें.

शेतवड हो हांगाचो एक म्हत्वाचो उद्येग जावन आसा. पूण अस्तंत यूरोपाच्या हेर देशांपरस आधुनिकीकरणाच्या मळार हो देश शेतवडीच्या मळार फाटीं आसा. गंव, तांदूळ, मको ही हांगाची मुखेल पिकावळ. चडसो गंव दक्षिण इटलींत, सिसिली आनी प्युग्लियन वाठारांत जाता. युरोपांत सगळ्यांत चड तांदळांचें पीक हांगा येता. पिदमाँत आनी लाँबर्दी राज्यांनी तें चड जाता. पिकावळीचो बरोच वांटो निर्यात जाता. सोरो आनी ऑलिव्ह तेल हांचेंय बरेंच उत्पादन हांगा जाता. इटलीचो सोरो जगभर नांवाजला. सोऱ्याची निर्यात चडशी फ्रांस, स्पेन आनी हेर युरोपीय देशांनी जाता. टमाटां तशींच हेर फळां हो शेतवडीचो मुखेल आदार आसा. गोरवां पोसपाचो धंदो मात्सो उणो जायत चल्ला. बोकड्यो, म्हशी, गायो ह्या जनावरांचें दूद आनी मांस देशांतल्या लोकांची गरज भागोवंक शकना ताकालागून तांची आयात जाता.

सार्डिनियांत शिशें आनी कथील, सिसीली हांगा गंधक, टस्कनी हांगा पारा (Mercury), आब्रुत्झी हांगा बॉक्साइट आनी हेर वाठारांनी मँगनीज, पायराइटीस, जस्त, अँटीमनी, ॲस्बॅस्टस आनी केओलीन हीं खनिजां सांपडटात. पारा आनी गंधकाची निर्यात जाता. इटलींतले संगमरवर, ॲलॅबॅस्टर, ट्रॅव्हर्टिन हे सारके बांदपावळीचे फातर पूर्विल्ल्या काळासावन म्हत्वाचे आसात. दर्यादेगांचेर मीठाचें उत्पादन बरेंच जाता. सैमीक वायू आनी तेल हांचे सोद लागिल्ल्यान अर्थीक परिस्थिती बदलपाक बरोच पालव मेळ्ळा.

अँकोव्हीन, ताल्ले, ट्यूना हें नुस्तें हांगा चड प्रमाणांत सांपडटा. तेभायर बांगडे, मोल्यूस्क आनी तरांतरांचे खूबे हांगाच्या दर्यादेगांचेर मेळटात. हांगा नुस्तें मारपाच्या धंद्याचो फाव तसो उपेग जायना. कांय तेंपाआदीं नुस्तें मारपाचें प्रमाण बरेंच वाडिल्ल्यान सद्याक नुस्त्याचें प्रमाण उणें जायत चल्लां. ताका लागून नॉर्वे, डेन्मार्क हे सारक्या देशांकडल्यान हवाबंद नुस्त्याची आयात हांगा जाता.

तरांतरांचे कपडे विणपाचे बरेच कारखाने ह्या देशांत आसात. रसायनीक उद्येगधंद्यांभितर अमोनिया, ॲसिड, सुपरफॉस्फेट हांचें उत्पादन बरेंच जाता. चडशे उद्येगधंदे मिलान-तुरिन- जेनोआ ह्या उद्येगीक शारांच्या वाठारांनी आसॉत. तुरिन हांगा मोटारी, जेनोआ आनी पाँतेदेरा हांगा स्कूटर, बारी हांगा तिखें, नेपल्स हांगा बोटी, मिलान हांगा कपडो, कॉमो हांगा रेशीम, ब्येल्ला आनी बेर्गामो हांगा लोकर, जेनोआ,

मिलान, तुरीन हांगा इंजिनां, विजेचीं उपकरणां, आनी संगणक अशे तरांतरांचे कारखाने हांगा आसात. फियाट मोटार कंपनी, पायरेली, रबर, पियागियो स्कूटर कंपनी ह्या साक्यो उद्येगीक कंपन्यो संवसारभर नामनेच्यो आसात. कलाकुसरीचे कारखाने, जवाहर आनी संगमरवरचे कारखाने हांगाच्या चडशा शारांनी सांपडटात.

चवदा वर्सां पुराय जायसर कोणाक कारखान्यांनी कामाक रावंक मेळना. इ.इ.सी. (युरोपीयन इकॉनॉमीक कम्युनिटी) आनी एफ्टा (युरोपीयन फ्री ट्रेड असोसिएशन) ह्या संघटनांचो इटली सभासद आसा. देशांतले अर्थवेवस्थेचो म्हत्वाचो वांटो पर्यटनांतल्यान येता. जगांतल्या सगळ्या देशांतले पर्यटक हांगा येतात. इतिहासीक म्हत्वाक लागून पर्यटन धंद्याची बरीच वाड जाल्या. लिरा हें हांगाचे चलनी नाणें जावन आसा. बँका दी इतालिया ही चलन वेव्हाराचेर नियंत्रण दवरता.

**येरादारी आनी संचारणः** रस्त्यांच्या येरादारीच्या मळार इटली बरोच फुडारला. रस्त्यांच्या येरादारीन इटलीन आपल्या शेजारच्या सगळ्या देशांकडेन संबंद जोडल्यात. वाहनांची संख्या बरीच आशिल्ल्यान रस्त्यांचें प्रमाण वाडोवपाची गरज जाणवता आनी ते नदरेंतल्यान कार्य करूंक हांगाचें सरकार वावुरता. तीन तरांचे रेल्वेमार्ग हांगा आसात. राश्ट्रीय, थळावे आनी शारांतले. लांब अंतराचेर येरादारी करपाखातीर रेल्वेमार्ग रस्त्यांपरस चड उपेगी थारतात. चडशे रेल्वेमार्ग सरकाराचे मालकेचे आसात. फ्रांस, ऑस्ट्रिया, स्वित्झर्लंड, जर्मनी आनी हेर उर्देत युरोपीय देशांकडेन रेल्वेमार्गान संबंद जोडल्यात. पो न्हंय, तिच्यो हेर उपन्हंयो, तळीं आनी व्हेनिसलागचो वाठार हातूंतल्यान उदकांतली येरादारी चलता. सिसिली आनी सार्डिनीया ह्या जुंव्यांक जोडपी दर्यांतली येरादारी नेमान चलता. चडशी दर्यांतली येरादारी नेपल्स, जेनोआ आनी व्हेनिस ह्या बंदरांतल्यान जाता. वेपाराचे नदरेंतल्यान ह्या बंदरांक बरेंच म्हत्व आसा. देशांभितरली तशीच हेर देशांकडेन 'ॲलिटालीया हे संस्थेकडल्यान हवाई मार्गाचेर येरादारी जाता. रोम, मिलान, नेपल्स, जेनोआ, व्हेनिस, पालेर्मो, काटानिया आनी तुरीन हांगा मुखेल म्हत्वाचे विमानतळ आसात.

**लोक आनी समाजजीणः** इटालियन लोकांभितर कितल्याशाच वंशांची भरसण आसा. ईशान्य इटलींतले लोक ऊंच, रुंद तकलेचे आनी गोरे; वायव्येकडले मध्यम उंचायेचे आनी मध्यम गोरे आनी दक्षिणेवटेनचे आनी जुंव्यावेले उण्या उंचायेचे, लांबट तकलेचे आनी मात्शे उणे गोरे आसात. सुमार ९९% लोक रोमन कॅथलिक आसात. रोम हांगा रोमन कॅथलिकांचें मूळपीठ आसा. प्रोटेस्टंट आनी ज्यू बऱ्याच उण्या प्रमाणांत सांपडटात. धर्मीक स्वतंत्रताय सगळ्यांक आसा. सादारण मनशाचे जीणेंत धर्माक बरेंच म्हत्व आसा. चडशे इटालियन लोक बरेच रंगेल, खेळ, कला हातूंत रुच घेवपी आनी उमेदीन रावपाची उर्बा बाळगुपी आसात. वाठारांप्रमाण थंयच्या लोकांची कांय खाशेलेपणां आसात. उत्तरेवटेनचे इटालियन गंभीर आनी उणे उलोवपी, तस्कनी आनी अँब्रिया हांगाचे लोक मेकळ्या मनाचे जाल्यार दक्षिणेवटेनचे चड उलोवपी, विनोदी, आनी कल्पनाविश्वांत रावपी आसात. इटालियन खाण जेवणांतय बरेच प्रकार आसात. हे लोक उणे पूण रुचीन जेवपी आसात. हांचे खाणांचे प्रकार आनी रांदपी जगभर नामनेक पावल्यात. बायलांक समाजांत बरेच मान आसा. उत्तरेवटेनच्यो बायलो शेतकामांत दादल्यांवांगडा काम करतात. दक्षिणेवटेनचे लोक मात्शे चड बंडखोर वृत्तीचे आसात. 'माफिया' ह्या संघटनांचे हांगा बरेंच प्रस्थ आसा. खरें म्हळ्यार मूळ माफिया म्हळ्यार परकी सत्तेआड झुजूंक तयार जाल्या. झुजाऱ्यांचे पंगड. आयज जगभर माफिया म्हळ्यार गुन्यांव करपी आनी अराजक पातळावपी टोळयो म्हूण वळखतात.

कलेच्या मळार हो देश बरेच गिरेस्त आसा. मायकेल अँजलो, लिओनार्दो द विंची, ब्रुनेलेस्की हांच्या सारके म्हान चित्रकार ह्या देशांत जावन गेले. जियोव्हानो पाँती सारके जगभर नामना मेळपी वास्तुशिल्पी ह्या देशांत जाले. संगीताच्या मळार व्हिव्हाल्दी, आलेस्सांद्रो, डॉमनिको स्कार्लात्ती साक्या मनशांनी संवसारभर नामना जोडली.

मूर्तिशिल्प आनी वास्तुशिल्प ह्या गजालींनी ह्या देशाक बरीच पोरनी परंपरा आसा. ह्या देशांतल्या बांदपावळीचे नमुने जगभर पावल्यात. बॉक्सिंग, सायकल सर्ती, मोटारींच्यो सर्ती आनी फुटबॉल हे हांगाचे मुखेल खेळ आसात. टेनिस आनी गोल्फ हेय खेळ बरेच लोक खेळटात. ऑलिंपिकांत ह्या देशान आपल्या खेळांचो उंचेलो पांवडो दाखोवन दिला. १९६० वर्सा रोम हांगा ऑलिंपिक खेळ जाल्ले. रोमन कॅथलिकांचे सगळे सण आनी उत्सव हांगा मनयतात. इटलींत पोरने पध्दतीप्रमाण जावपी उत्सव आयजय बरेच लोकप्रिय आसात. सिएना हांगाच्यो सर्ती, व्हेनिस हांगाच्यो बोटींच्यो सर्ती, फ्लॉरेन्स हांगाची इस्टर मिरवणूक, रोमांतलो सोन्या उत्सव, नेपल्सची संगीतसर्त हे सामके नांवाजिल्ले आसात. व्हेनिस हांगा जावपी चित्रपटांच्या मेळाव्यांक जगांतल्या सगळ्या वाठारांतले लोक हाजीर रावतात.

**शिक्षणः** मध्ययुगांत इटलींत शिक्षणवेवस्था पोपच्या हातांत आशिल्ली. प्रबोधनकाळाउपरांतय शिक्षणाच्या मळार चडशी सुदारणा जावंक पावली ना. १८७० उपरांत हांगा शिक्षणाचे म्हत्व समजून आयलें. मॉटेसरी सारकी संवसारीक नामनेची शिक्षणतज्ञ ह्या देशांत जावन गेली. ६ ते १४ वर्सामेरेन शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसता. १४ वर्सां पुराय केल्या उपरांत भुरग्यांक मानव्य, विज्ञान आनी तंत्र ह्या शाखांत वचपाची मेकळीक आसता. हें उच्च माध्यमिक शिक्षण पुराय करतल्याक विश्वविद्यालयांत वचूंक मेळटा. सरकारी शाळांवांगडा खाजगी आनी धर्मीक शाळांची संख्याय बरीच आसा. बोलोन्या विश्वविद्यालयाची थापणूक १२०० वर्सा जाल्ली. हें जगांतलें एक पोरनें विश्वविद्यालय जावन आसा. नेपल्स, पॅड्यूआ, जेनोआ, पेरुजा हींय विश्वविद्यालयां बरींच पोरनी आसात. रोम हांगाचें विश्वविद्यालय सगळ्यांत व्हड आसा. सतराव्या शेंकड्यासावन हांगा संगीत, कला, शास्त्र हांच्या अकादमींचो वावर बरोच चलता.

**भाशा आनी साहित्यः** इटालियन ही राज्य कारभाराची आनी चडशा लोकांची भाशा आसा. मूळ लॅटीन भाशेंतल्यान ती तयार जाल्या. वाठारां- वाठारांत बऱ्योच बोली भाशा आसात. सादारणपणान टस्कनी वाठारांतली भाशा शुध्द अशें मानतात. पयलींचें इटालियन साहित्य चडशें लॅटीन भाशेंत सांपडटा. इटालियन भाशेचो इतिहास जरी उणो आसलो तरी तातूंत बरेच नामनेचे साहित्यिक जावन गेले. पॉलिस्थानो हो १५ व्या शेंकड्यांतलो नामनेचो साहित्यिक आशिल्लो.

प्रबोधनकाळांतल्या साहित्याचेर मानवतावादाचो प्रभाव बरोच दिसून येता. लोदोव्हिको ऑरिओस्तो हो ह्या काळांतलो एक म्हान कवी. विसाव्या शेंकड्यांत नोबेल इनाम मेळोवपी साल्वातोरे क्वाझीमोदो (१९५९), ग्रास्या देलेद्दा ही लेखिका आनी आल्बेर्तो मोराव्हिया सारके लेखक जावन गेले. बेनेदेत्तो क्रोचे हाणें सौंदर्यशास्त्र, तत्त्वगिन्यान आनी समीक्षा हातूंत जगभर नामना मेळयली. कांय काळ फॅसिस्ट राजवटीखाला घुस्मटपी इटालियन साहित्यान पर्थून नवे उर्बेन आनी सर्जनशीलतेन फुलूंक सुरवात केल्या.

**म्हत्वाचीं थळां:** पर्यटकांक आपले वटेन ओडपी सोबीत अशीं कितलींशींच थळां हांगा आसात. उत्तर इटलींतलीं तळीं आनी हेर सैमीक सोबीतकाय पळोवपासारकी आसा. व्हॅटीकन हांगाची सेंट पीटरची इगर्ज, फ्लॉरेन्स हांगाच्यो इगर्जी, पीसाचो लकपी मनोरो, पाँपेई हांगाचे पोरने अवशेश, फ्लॉरेन्स, नेपल्स, रोम आनी हेर ठिकाणांवेली संग्रहालयां, तशेंच व्हेनिस शार हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं थळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**इतिहासः** इतिहास म्हळ्यार मनशाच्या अनन्यसादारण अणभवांचें भांडार. इतिहास म्हळ्यार फकत भूतकाळाविशीं जाणून घेवप न्हय, तर वर्तमानांत कितें घडटा हाचोय नियाळ करप. इतिहास हें मनशान शेंकड्यांनी वर्सांभितर जी उदरगत केल्या ती मेजपाचें एक साधन. हें साधन आमकां भूतकाळांतल्या घडणुकांचो अर्थबोध करता, वर्तमानकाळ

सुदारपाविशीं जाग हाडटा, आनी फुडें कितें घडटलें हाची सुलूस दिता. ताका लागून आमी खंयच्या गजाली फाटल्यान वचचें, खंयची गजाल तोखेवची आनी खंयची टाळची हें समजूंक शकतात. एका अर्थान इतिहास म्हळ्यार गिन्यान दिवन शिकोवपी तत्त्वगिन्यान. इतिहास हाचोच अर्थ चवकशी, संशोधन, नियाळप आनी अन्वेशण. इतिहास ही घडणुकांच्या कारणांची तर्कशुध्द समजावणी, तांची परिस्थिती आनी प्रक्रिया ह्या गजालींच्या गिन्यानाखातीर भूतकाळाच्या वास्तवतेचो घेतिल्लो सोद.

इतिहास राजकी, समाजीक, अर्थीक, सांस्कृतिक आनी मानसिक मुद्दे आशिल्ल्यो सगळ्यो अनन्यसादारण घडणुको मतींत घेता. हे भायर भोव उपेगाची थारिल्ली वैज्ञानिक उदरगत, गिन्यान आनी शक्त, सत पटोवन दिवपी कलात्मक मोख, सोबीतकाय आनी धादोसकाय आनी आमकां सांस्कृतिक, तात्त्विक आनी धर्मीक नदरेन गिरेस्त करपी बौध्दिक उदरगत हांची समीक्षक नदरेन नोंद घेता.

इतिहास मनशाक शाणो करता. तो शक्तीचें रंजन करता, समजीकाय वाडयता आनी बरे गूण घट करता. मनीस जातीन जें जें केलां आनी म्हळां, तांणी कशे तरेन विचार केला हाची फोडणीशी म्हळ्यार इतिहास. इतिहासाचो मुखेल विशय म्हळ्यार विचार. आमकां भूतकाळ दिश्टी पडना, पूण भूतकाळाचें मर्म आमकां मेळटा आनी हें मर्म इतिहासीक नायकांचें चारित्र्य आनी कर्तुप घडोवपाक कारणीभूत आसता. हीं कर्तुपां समाजांत रावपी मनशांनी केल्लीं आशिल्ल्यान समाज हो इतिहासाचो एक केंद्रबिंदू जावन आसा. रासवळ घडणुको, रासवळ प्रतिक्रिया, सृजनशील विचार आनी समाजशीलता हीं इतिहासाचीं चतुःसुत्रां.

कांय जाणांच्या मतान इतिहास म्हळ्यार व्हडव्हड मनशांचीं चरित्रां आनी बुध्द, अशोक, जेजू, मोहम्मद वा गांधी सारकील्या व्हड मनशांचीं कार्यां. कांय जाणांच्या मतान इतिहास म्हळ्यार भूतकाळातलें राजकारण. कांय जाण इतिहासाचो अन्वयार्थ लायतना राजकारणांतल्या शासनाच्याय फुडें आशिल्ल्या लोकांकडेन पावतात. अशे तरेन वयल्या पांवड्यावयल्यान सकयल्या पांवड्याचेर आनी केंद्रीय अधिसत्तेवयल्यान थळाव्या कारभाराकडेन इतिहासाचो संबंद लावप जाता. मनशाचे स्वतंत्रतायेचो आलेख इतिहास वाचता. जेन्ना साम्राज्यां उबीं केलीं ताच्यापरस जेन्ना सुविचार मुखार आयले आनी इत्साशक्तीची मुक्तताय जाली, तो काळ आनी त्या काळांतल्यो घडणुको ह्यो व्हड इतिहासीक घडणुको आसतात.

इतिहास हें खरें बुध्दिप्रामाण्यवादी विज्ञान आनी हें विज्ञान मनीसजातीची उदरगत मेजपाचें एक परिमाण आसा. हें विज्ञान मनशान जनावरां आनी सुकणीं, पृथ्वी आनी वायू हांचेर कशें प्रभुत्व मेळयलें? ताणें चंद्रिमाचेर कशी झोंपय मारली? म्हासागराचो तळ सोदपाची शक्त ताका कशी मेळ्ळी, नखेत्रां आनी गिऱ्यांचें गिन्यान मेळून तांची विस्कटावणी करपाची तांक ताका कशी आयली? हाचें पुरायपणान वर्णन करता. तें आमच्या दोळ्यांमुखार मनशाची शतमानांसावन चलत आयिल्ली यात्राय उबी करता आनी उदरगतीच्या चडत वचपी पांवड्याचेर जांणी जीण पावयली आनी आपणापरस ऊंच पांवड्याचें जिवीत फुडले येवपी पिळगेमुखार जांणी दवरलें तांच्या यत्नांची जाणविकाय दिता. ती मनशाचे उदरगतीची एक काणी, कला आनी साहित्य, तत्त्वगिन्यान आनी धर्म, साहस आनी मनशाचे जीणेंतल्या सगळ्या साध्यांची आनी अपेसांची एक गांथन. इतिहास म्हळ्यार तत्त्वप्रणालींचो उदय आनी अस्त, कल्पनाविश्व आनी बुद्द, बरें आनी वायट हांचेमदीं झुजतल्यांचें चारित्र्य आनी कर्तुप, सत्य आनी न्याय हांकां समाजीक प्रशासनांत हाडपाचो एक संघर्श. हो इतिहास मनशाक 'संस्कृतायो' नांवाच्या पध्दतशीर समाजाविशीं म्हायती दिता.

इतिहास म्हळ्यार सामान्य मनशाक बरो जावपाची आनी राज्यकर्त्यांक म्हान जावपाची देख दिवपी फकत निंतिसुत्रां न्हय; पूण मनशाचे उदरगतीचे शक्तीचो आनी चळवळीचो आकार दिका दाखोवपी तो एक अभ्यास. मनशाची मनशाकडेन आशिल्ली समजीकाय हो इतिहासाचो विशय आसा. आत्मनिश्ठपणान उक्तायत जाल्यार इतिहास म्हळ्यार मनशाचे संवेदनशीलतेंत चलपी घडणुको. वस्तुनिश्ठपणान विचार करीत जाल्यार इतिहास म्हळ्यार मनशाचे संवेदनशीलतेंतल्यान तयार जाल्ल्या खासा घडणुकांचें एक नाट्य. मनीस वा राश्ट्रां हांचे दिसपट्टे वेव्हार सदांकाळ बदलत आसतात, ताका लागून इतिहास म्हळ्यार गतिमानता आशिल्लें तत्त्वगिन्यान, जें एकूच सत तत्त्वगिन्यान आनी सत मानसशास्त्र जावन आसा. हाका लागून आधिभौतिक साहित्याच्या व्हडल्या दोंगरापरस इतिहासाची कांय पानां मनशाच्या मनाचेर चड उजवाड घालतात.

इतिहासांत त्या त्या देशाचे तत्त्वप्रणालीचो वा काळाचो रंग भरसुपाचो एक प्रवाह दिश्टी पडटा. ग्रीकांनी इतिहासाक बुध्दीप्रामाण्यवादी केलो, रोमन लोकांनी ताका राजकी केलो, इगर्जीन ताका नैतिक केलो, जर्मन लोकांनी ताका चड तात्त्विक केलो, मार्क्सवाद्यांनी भौतिकवादी, फ्रेंचांनी समाजवादी आनी ब्रिटिशांनी ताका साम्राज्यवादी केलो. इतिहासाविशीं अरब मत, चिनी मत आनी भारतीय मत हें वेगवेगळें आसा. कांय लोक इतिहासांत मूल्यविधानां (value judgements) भरशितात. मूल्यांकन, परीक्षण आनी मनशाचो आनी घडणुकांचो केल्लो नियाळ हाकालागून इतिहास आनी तत्त्वगिन्यान हांचो लागींचो संबंद आसा. खरेपण कसाक लावपाच्या गुणाक लागून इतिहास हें एक शास्त्र जालां. जीणेच्या विज्ञानाचें तें समाजीक भौतिकशास्त्र आसा. 'बरी' हाच्या मतान इतिहास म्हळ्यार विज्ञान, ताचेपरस कांय उणेंय न्हय वा चडूय न्हय. कांय विचारखंतांच्या मतान सगळो इतिहास हो भूत आनी वर्तमान हांचेमदलो सोंपनाशिल्लो एक संवाद. तांच्या मतान हो समेस्त इतिहास वर्तमानकालीन. कारण मनशाचो स्वभाव तसोच उरता आनी भावना, कारणां, परिस्थिती, मनस्वीपणा आनी इतिहासीक गती गुणान न्हय तर फकत प्रमाणान बदलता.

- डॉ. बी. शेख अली

**इतिहासलेखनः** थळ, काळ आनी व्यक्ती हांचे उल्लेख करून आनी मेळिल्ले पुरावे दिवन समाजीक जिवीत आनी भोंवतणची परिस्थिती हांचेविशीं केल्ल्या लेखनाक इतिहासलेखन अशें म्हण्टात.

इतिहास बरोवपाक सुरवात केन्ना जाली हें जरी सारकें कळना, तरी ईजिप्त, आसिरिया, बॉबिलोनिया, चीन ह्या देशांनी इतिहासीक बरोवप होलमता. हें बरप चडशें फातरापटे, भाजिल्ल्यो चिकणमातयेच्यो विटो, भूर्जपत्र, ताडपत्र, चामडे हांचेर बरयल्लें मेळटा. पूण ह्यो सगळ्यो झुजांचेर वा धर्माचेर तुटक तुटक नोंदी कश्यो आसताल्यो. इतिहासलेखनाक खरी सुरवात जाली ती ग्रीस देशांत आनी उपरांत रोमांत.

होमरच्या म्हाकाव्यांत ग्रीसाचो थोडोभोव इतिहास मेळटा, पूण तातूंत खुबशी अतिताय दिसता. हिरॉडोटस (इ. स. प. ४८४-४२४) हाकाच पयलो इतिहासकार अशें मानतात. ताचे उपरांत थ्यूसिडिडीझ आनी झेनोफोन हे इतिहासकार जाले. फुडें फ्लेव्हिअस ॲरियन हाणें अलेक्झांडराच्या जैताचो इतिहास बरयलो. तातूंतलें 'इंडिका' हें प्रकरण भारताच्या इतिहासाचें एक साधन. टायटस लिव्ही, टॅसिटस हे म्हत्वाचे रोमन इतिहासकार. मध्ययुगीन युरोपाचो आनी तातूंतल्या तातूंत फ्रँक लोकांचो इतिहास 'ग्रेगरी ऑफ तूर' हाणें बरयलो आनी इंग्लंडचो धर्मीक इतिहास बीड हाणें बरयलो. ताच्याच काळांत जाल्ल्या ऑर्डेरायीकस व्हायीटेलिस, बिशप ऑटो आनी मॅथ्यू पॅरिस हांणीय इतिहास लेखन केलें.

युरोपांतल्या प्रबोधनाची चळवळ इटलींत सुरू जाली. राश्ट्र हे संकल्पनेचो उगम मॅकियाविली हाच्या फ्लॉरेन्सच्या इतिहासांत आनी फ्रांचेस्को ग्वीत्चार्दीनी हाच्या इटलीच्या इतिहासांत सांपडटा.

अठराव्या शतमानांतलो फ्रेंच बरोवपी व्हॉल्तेर हाणें आपल्या 'एस स्यूर ले मर्स' हातूंत इतिहास म्हळ्यार फकत राजांचो आनी झुजांचो इतिहास

न्हय, तर तो सादारण मनशाच्या चळवळींचो आनी चालीरितींचो इतिहास अशें प्रतिपादन करून अर्थीक विश्वांचो इतिहास बरयलो. एकुणिसाव्या शतमानांत राश्ट्रीय विचारसरणेच्या लेखनांत बरीच वाड जाली. मिशेल आनी लामार्तीन हे फ्रांसेज, ग्रीन, मॅकॉले हे ब्रिटीश, ड्रॉयझेन आनी ट्राइश्के हे जर्मन बरोवपी मुखार आयले. फ्रांसांत जाल्ले राज्यक्रांतीचो परिणाम इतिहास लेखनाचेर जावन इतिहासलेखनाक एक नवी दिका मेळ्ळी. कार्ल मार्क्साच्या बरपांतल्यान मुखार आयिल्लें तत्त्वगिन्यान इतिहास लेखनाचेर आपलो प्रभाव घालूंक पावलें आनी अशेतरेन इतिहासलेखनांत विंगडविंगड विचारांचो प्रभाव स्पश्टपणान दिसूंक लागलो.

विसाव्या शतमानांतय इतिहासलेखनाची विंगडविंगड तासां मुखार आयलीं. ह्या शतमानांतल्या बरोवप्यांनी इतिहासलेखनाक अदीक गिरेस्त केलें. विज्ञान, तंत्रगिन्यान आनी हेर मळांचेर जाल्ल्या नव्या सिध्दांतांचो, सोदांचो आनी विचारांचो परिणाम इतिहास लेखनाचेर स्पश्टपणान दिसून येता.

भारतीय इतिहासलेखनाचो इतिहास वंशावळी आनी इतिहासीक काव्यग्रंथांसावन सुरू जाता. इस्लाम भारतांत आयल्या उपरांत 'तवारिख' बरोवपाची चाल सुरू जाली. ब्रम्हदेशांतल्या वाठारांतले अहोम राजा तेराव्या शतमानांत आसामचे भुंयेर राज्य चलोवंक लागले. तांणी 'बुरुंजी' नांवाचो इतिहासलेखनाचो प्रकार भारतांत पावयलो. तवारिखांभशेन मराठी भाशेंत 'बखर' बरोवप चालू जालें. हिंदी आनी कन्नड भाशांतल्यानय बखरी बरयिल्ल्यो सांपडटात. सादारणपणान हेर भारतीय भाशांतल्यान संस्कृत भाशेंतल्यान उक्ताडाक आयिल्ली इतिहासीक काव्यग्रंथांची परंपरा चालूच आशिल्ली. ब्रिटीश भारतांत आयल्या उपरांत आर्विल्ले पध्दतीन इतिहासलेखन आनी संशोधन जावंक लागलें. इंग्लीश भाशेंतल्यान जाल्ल्या इतिहासलेखनाक चड नामना मेळूंक पावली.

- कों. वि. सं. मं.

**इथिओपिया:** पयलीचें नांव अबिसिनिया. ह्या देशांतले आम्हारिक भाशेंत यइत्योप्या निगुसा नगस्त मंगुइस्त. ईशान्य आफ्रिकेंतले एक प्रजासत्ताक राश्ट्र. अक्षवृत्तीय विस्तार ३° ३०' उत्तर ते १८° उत्तर आनी रेखावृत्तीय विस्तार ३३° उदेंत ते ४८° उदेंत. क्षेत्रफळ १२, २१,९०० चौ. किमी. लोकसंख्या ४,४६,७५,७०० (१९८६). हाचे उत्तरेक आनी अस्तंतेक सुदान, दक्षिणेवटेन केनिया, आग्नेयेवटेन आनी उदेंतेवटेन सोमाली प्रजासत्ताक आनी आफार्झ अँड इसाझ (पयलींचे फ्रेंच सोमालीलँड) आनी ईशान्येवटेन तांबडो दर्या आसा. दक्षिण-उत्तर लांबाय सुमार १,४५० किमी. आनी उदेंत-अस्तंत लांबाय सुमार तितलीच आसा. ह्या देशाक १,२४० किमी. लांबायेची तांबड्या दर्याची देग आसा. आदिस अबाबा ही हांगाची राजधानी.

**भूंयवर्णन:** इथिओपिया हो एक व्हड दोंगरी आनी पठारी वाठार जावन आसा. आफ्रिकेंतले खचदरीक (rift valley) लागून ताचे दोन वांटे जाल्यात. अस्तंतेवटेनच्या वाठारांत हांगाचीं सगळ्यांत चड उंचायेची दोंगरातेमकां आसात. दोंगरी वाठारांची उंचाय सादारणपणान सुमार २,४०० मी. आसा आनी कांय वाठार ३,९०० मी. मेरेन उंचायेचे आसात. आफ्रिकेंतली तिसरें ऊंच दोंगरा तेमक रास दाशान (४,६२० मी.) तशेंच आबूना योसेफ (४,१९२ मी.) बातु (४,३०८ मी.), चिलालो (४,१३४ मी.). गुना (४,२०१ मी.) हेय दोंगर हांगा आसात. हांगा बरेच ज्वालामुखी आसात, भुंयकांपांचेंय प्रमाण बरेंच आसा. बऱ्याच सुवातांचेर हून उदकाचे झरे आनी तळीं आसात.

इथिओपियाच्या दोंगरी वाठारांनी बऱ्योच ल्हान व्हड न्हंयो आसात. आब्बाय (नील नायल), टकझे (आतबारा), बारो (सोबॅत) ह्यो दोंगरी वाठारांतल्यान भायर सरुन नायल न्हंयक मेळपी मुखेल न्हंयो. नील नायलची सुरवात हांगाच्या सगळ्यांत व्हडल्या ताना सरोवरांतल्यान जाता. हे न्हंयचेर कितलेशेच धबधबे आसात. तांतलो 'इस्सात' हो धबधबो नामनेचो आसा. ह्या न्हंयक जामा, मुगेर, गुडेर ह्या सारक्यो कितल्योश्योच उपन्हंयो आसात. हे न्हंयचेर बांदिल्ल्या पुलाक लागून इथिओपियाचे शोजम आनी शीबा हे प्रांत जोडल्यात. दक्षिणेक टेनच्या रुडॉल्फ सरोवराक मेळपी ओमो ही मुखेल न्हंय आसा. उदेंतेवटेन व्हांवपी जूबा आनी शिबेली ह्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो आसात. उत्तरेवटेन व्हांवपी आवाश न्हंय आसा. ताना ह्या व्हडल्या सरोवराभायर हांगा आब्बाय, चामो अशी बरींच सरोवरां आसात.

**हवामान:** भुंयेच्या ऊंच सकलपणाचेर हांगाचें हवामान बदलता. २,४००-३,००० मी. उंचायेच्या मदल्या दोंगरी पठारी वाठारांचें हवामान सम आनी हांगाचें तापमान सुमार १६° से. आसता. १,८०० -२,४०० मी. उंचायेच्या वाठारांत तापमान २२° से जाल्यार समुद्रथरावेल्या आनी वाळवंटांच्या वाठारांनी तापमान २६° से परस चड आसता. चड सकयल्या वाठारांक डेगा म्हण्टात. थंय पावस ५० सेंमी. परस उणो आसता. ताच्या परस मात्शा उंचायेच्या वाठारांनी, जांकां वोइना डेगा म्हण्टात थंय ५०-१५० सेंमी. पावस जाल्यार उंचल्या वाठारांनी म्हळ्यार कोल्ला ह्या वाठारांनी १२५-१७५ सेंमी. मेरेन पावस पडटा. पावस चडसो जून-सप्टेंबर ह्या काळांत पडटा. ताच्या उपरांतच्या सुक्या ऋतूंनी एप्रिल आनी मार्चांतय थोडोभोव पावस पडटा. चड उंचल्या वाठारांनी हिम पडटा जाल्यार दानाकिलच्या वाठारांत कितल्याशाच फावटीं पावस पडना.

**वनस्पत आनी मोनजात:** चड पावस आशिल्ल्या थंड वाठारांनी आफ्रो-अल्पाइ जातीची, जूनिपर प्रकारची टिड नाजाल्यार झिग्बा, कूसो, लोबेलिया, सेनेचिओ सारकी तरेकवार वनस्पत वाडटा. चड पावस आनी चड तापमान आशिल्ल्या वाठारांनी करारो, सिसा, ट्रुकुर, इंचेट, सोंबो ह्या सारकीं रुंद पानांची झाडां सांपडटात. हातूंतल्या काफा प्रांतांत काफयेचीं झाडां आपशींच सैमीक पध्दतीन जातात; ताका लागूनच ह्या झाडाक 'कॉफी' हें नांव पडलां अशें म्हणटात. नैर्ऋत्य वाठारांत कोंड्यांची दाटी आसा. उत्तरेवटेन तशेंच दोंगराच्या मुळसालागीं बाभळीचीं झाडां आसात. पठारी वाठारांनी निलगिरीचीं झाडां रोवन तांची वाड केल्या.

अस्तंतेवटेनच्या सकयल्या वाठारांनी हती आनी गेंडे आसात. न्हंयो आनी सरोवरांनी मानगीं, पाणघोडे, मॉनीटर, ऑटर सारकी मोनजात आसा. दक्षिण, नैर्ऋत्य आनी ओगाडेन वाठारांनी शिंव आसात. दोंगरी वाठारांनी कोले, कोलसुणीं, सिवेट, माकडां, बॅजर ह्या सारके प्राणी आसात. तणाच्या वाठारांनी जिराफ, झेब्रा आनी विंगडविंगड जातीचीं हरणां आसात. गरुड, गिदां, ससाणो, हांयस, भांडक, शहामृग सारकीं बऱ्याच जातीचीं सुकणीं आसात. मराबू, पोपोट, जय सारकी सुकणीं तांच्या सोबीतकायेक लागून नांवाजिल्लीं आसात. म्हांयडोळ, पारो, पफ ॲडर ह्या सोरपांच्यो कितल्योश्योच जाती आनी रोग पातळावपी जळारां, टोळ, तरेकवार पाखे हांगा आसात. सिमेन चिलालो पर्वताच्या वाठारांत आनी आवाश देगणांत अभयारण्यां आसात. खाशेली मोनजात आनी सुकणीं हांची हांगा राखण केल्या. तांतले न्याला हरण आनी वॉलिया आयबेक्स हे प्राणी फकत इथिओपियांतूच सांपडटात.

**इतिहास:** आमो न्हंयच्या देगणांत सुमार २५ लाख वर्सांपयलींचे अवशेश सांपडल्यात. इ. स. प. ३००० वर्सांसावन इथिओपियाविशीं म्हायती मेळटा. पूर्विल्ल्या काळांत ताका 'पूंट लोकांचो देश' अशें म्हण्टाले. ईजिप्त आनी इथिओपियाचे संबंध पोरन्या काळासावन चलत आयिल्ले. त्या उपरांतची म्हायती 'मत्शाफा नेगास्त' (राजांचो ग्रंथ) आनी 'केब्रा नेगास्त' (राजांचे गिरेस्तकायेचो ग्रंथ) हातूंत मेळटा. जेरुसलेमचो राजा सॉलोमन आनी शीबाची (इथिओपियाचो एक वाठार) राणी मेकेडा हांच्या प्रेमप्रकरणाचो उल्लेख बरेचकडेन मेळटा. सॉलोमन राजा आनी शीबा राणी हांका जाल्ल्या पुताचें नांव मेनेलिक - पयलो (इ. स. प. सुमार ९७५-९५०) आशिल्लें. ताचे उपरांत आयज मेरेन सॉलोमन घराणें (मदलो कांय काळ सोडल्यार) हांगा राज्य करता.




पयल्या मेनेलिकासावन सॉलोमन राजघराण्याची सुरवात जाता. २५९ राजांनी राज्य केल्या उपरांत, ९२७ ते १२६० मेरेन हे परंपरेंत मांत्सो बदल जाला. ह्या काळांत 'झाग्वे' राजघराण्यांतल्या इकरा राजांनी ३३३ वर्सां राज्य केलें. १२६० त येकुनो आल्माक राजान पर्थून सॉलोमन घराण्याची थापणूक केली. ताचे उपरांत आयजमेरेन ६५ राजांनी राज्य केलें. हालींचो राजा हायले सेलॅसी हो ६६ वो आशिल्लो.

आक्सूम साम्राज्यांत (पयलो तो सवो शेंकडो) इथिओपियाची बरीच उदरगत जाल्ली. सुर्वेक इथिओपिया किरिस्तांव राश्ट्र जावंक नाशिल्लें. अडुलिस बंदरांतल्यान आंतरराश्ट्रीय वेपार चलतालो. ह्याच काळांत कितलेशेच सूर्य-स्तंभ (ऑबेलिस्क) हांगा उबारले. हातूंतलो सगळ्यांत ऊंच स्तंभ सध्या रोम हांगा आसा. ४ थ्या शेंकड्यांत इथिओपिया किरिस्तांव राश्ट्र जालें. ताच्या उपरांत ६३७ वर्सां अरबांनी पॅलेस्टायन, सिरिया आनी ईजिप्ताचेर जैत मेळयलें. हाका लागून इथिओपिया आनी न्यूबिया ह्या किरिस्तांव राश्ट्रांचो युरोपांतल्या हेर किरिस्तांव राश्ट्रांकडलो संबंध तुटलो. णवव्या शेंकड्यांत तांबड्या दर्याची देग पर्थून इथिओपियाच्या हातांत आयली. ९२८ त टेक्ले हायमानोत ह्या लास्ताच्या (इथिओपियांतल्या) राजान आक्सूम साम्राज्य नश्ट करून झाग्वे घराण्याची थापणूक केली. १२६० त पर्थून सॉलोमन राजघराणें सत्तेर आयल्याउपरांत पयलो आमदा सेयोन (१३१४-१३४४) हाणें मुसलमानांच्या सत्तेखाल आशिल्ले वाठार जिखून घेतले. झारा याकूब (१४४४-१४६८) हाचो काळ इथिओपियांतलो प्रबोधनकाळ अशें मानतात. हाच्या उपरांत पर्थून १५२७-१५४३ त मुसलमानांच्या घुरयांक सुरवात जाली. 'ग्रान' (दावकुरो) इमाम अहमद हाणें हरार वाठाराचेर जैत मेळयलें. पोर्तुगालान दाँ ख्रिस्तोफर गामा (वास्को द गामाचो पूत) हाच्यावांगडा सैन्य धाडूंक नाशिल्लें, जाल्यार इथिओपिया इस्लाम राश्ट्र जावपाचें. ग्रान हाका दोगांमदल्या झुजांत २१ फेब्रुवारी १५४३ त मरण आयलें. ह्या झुजाक लागून इथिओपियाचो एकवट मोडलो आनी ल्हानसान राज्यां तयार जावन झुजां पेटलीं. दुसरो थीओडोर (१८५५-१८६८) हाणें ही झुजां सोंपोवन पर्थून एक राश्ट्र बांदपाचो यत्न केलो. १८५५ त ताणें स्वताक राजाधिराज ही पदवी घेतली. थीओडोरच्या मरणाउपरांत पर्थून ल्हानसान राज्यांमदल्या झगड्यांक सुरवात जाली. चवथो योव्हानिस आनी दुसरो मेनेलिक हांचें समजिकायेक आनी बरेपणाक लागून इथिओपियाचे कुडके जावंक पावले नात. ह्याच काळांत इथिओपियाचेर ईजिप्त, इटली हांची नदर पडली. १८६९ त आसाब बंदर आनी १८८५ त मसावा बंदर इटलीन जिखून घेतलें. इतले मजगतीं ईजिप्ताआड जाल्ल्या झुजांत योव्हानिसाक मरण आयलें. दुसरो मेनेलिक (१८६५-१९१३) राजा जालो. १८९६ इटली आनी इथिओपिया हांचेमदीं झूज पेटलें. इथिओपियान इटलीसारक्या बळीश्ट देशालागीं खरपणान झूज दिलें. पूण इटलीन सोमालियाचो कांय वाठार आनी एरिट्रिया आपले सत्तेखाला हाडले. १९३६ त हो देश पुरायपणान इटलीच्या शेकातळा गेलो. १९४१ त इश्ट राश्ट्रांनी दुसऱ्या म्हाझुजांत इटलीचेर जैत मेळयल्या उपरांत इथिओपिया मुक्त जालो. मेनेलिकान आधुनिकीकरणाक सुरवात केली. युरोपीय देशांतल्यान शस्त्रां घेवन इथिओपियाचें लश्करी बळगें वाडोवपाचो ताचो हेतू आशिल्लो. १९१३ त लिज ईयासू सत्तेर आयलो. ताणें मुसलमान आनी हेर जातींक फाटबळ दिल्ल्यान मेनेलिकची चली राणी झउदितु हिणें तांकां बळयां कुशीक काडून सत्ता आपल्या हातांत घेतली. झउदितुच्या मरणाउपरांत हायले-सेलॅसी राजा जालो. हाणें बरोच तेंप राज्य चलयलें. ताचे राजवटींत ताणें संविधान तयार करून देशांत १९५७ त वेंचणुकोय घेतल्यो. अमेरिकेवांगडा १९५३ त राखणेविशीं कबलात केली. १९६० त ताच्याआड बंड करपाचो यत्न फसलो. १९६० त ताणें आपल्या नांवान हांगा विश्वविद्यालयाची थापणूक केली. १९७४ त बंड जावन उपरांत

राजेशाय काबार जाली. मिकायल इम्रू हाका लश्करान हांगाचो पंतप्रधान नेमलो. नवें संविधान जाहीर जालें. रोखडीच संसद बरखास्त करून लेफ्टनंट जनरल अमान मिकायल अँडम हाणें सत्ता आपल्या हातांत घेतली. ताचे उपरांत १९७५ त पर्यून राजकी बदल जावन सत्ता पयलीं लेफ्टनंट जनरल तेफेरी आनी उपरांत कर्नल मेंगीस्तू हाच्या हातांत सत्ता गेली. अमेरिका आनी इथिओपियाचे संबंद इबाडले आनी हो देश रशियेच्या धोरणांवटेन बागवलो. मेंगीस्तू हाणें १९७९ त मार्क्सवादी लेनिनवादी विचारसरणीचो एकूच पक्ष देशांत आसतलो आनी रशियन राज्यपध्दतीप्रमाण इथिओपियाची राज्यपध्दत आसतली अशें जाहीर केलें. त्याच वर्सा सोविएत प्रधानमंत्री कोसिगीन हाणें ह्या देशाक भेट दिली.

**राज्यवेवस्था:** सद्याच्या इथिअपियाच्या सरकाराक कायदो आनी संविधानाची बुन्याद ना. १९७५ राजेशाय काबार करून प्रजासत्ताकाची घोशणा केली. तरीपूण सत्ता अजून प्रजेच्या हातांत ना. प्रोव्हिजनल मिलीटरी अँडमिनिस्ट्रेटिव काउंसिल (PMAC) देशाचो राज्यकारभार पळेता. १९७७ त ह्या राज्य चलोवपी मंडळांत मातशे बदल केले. १९७९ त मार्क्सवादी तत्त्वांचेर राज्यवेवस्था चलतली अशें थारलें. चेअरमेन हो देशाचो मुखेली आसता. ताच्या हाताखाला सगळीं शासकीय मंडळां आसतात. एका अर्थान हांगा एकाधिकारशाय चलता अशें म्हणूं येता. थळावो राज्यकारभार १४ प्रांतांतल्यान चलता. ह्या प्रांतांचेर मुखेली नेमपाचो हक्क राश्ट्राच्या चेअरमनाक आसता. गांवच्या प्रशासनांत पंचायत पध्दतीन राज्यकारभार चलता.

**अर्थीक स्थिती:** इथिओपिया शेतवडीचेर आदारिल्लो देश आसा. ९०% लोक शेतवडीचेर जियेतात. हांगाची जमीन बरीच पिकाळ आसा. तणाचीं मळांय हांगा बरींच आसात. रशिया सारक्या देशाकडल्यान पालव मेळिल्ल्यान शेतकामांत आतां नव्या यंत्रांचो आनी रसायनीक साऱ्यांचो उपेग बऱ्याच प्रमाणांत जावंक लागला. हांगाची कॉफी अरेबिका जगभर नामनेक पावल्या. तंबाखूचें उत्पादनय बरेंच जाता. नूग, तलबा, गोमन ह्या सारक्या बियांचें तेल काडटात. टेफ हें हांगाचें मुखेल पीक. तेभायर बार्ली, गंव, मको, डुरा आनी हेर दाळींचीं कड्डणां हांगा जातात. गोरवां आनी मेंढरां पोसपाच्या उद्देगाकय बरेंच म्हत्व आसा. जनावरांची चामडी, लोणी, हाडां हांची हांगा निर्यात जाता.

अडोला (किब्रेमेंगेस्त) हांगा भांगर, युब्दो (वोल्लेगा) वाठारांत प्लॅटिनम, देबारुआ आनी सकार (एरिट्रीया) हांगा तांबें, सिडामो हांगा निकेल, दानकिल वाठारांत पोटॅश तशेंच हरार, एरिट्रीया, वोल्लेगा, शोआ हांगा भांगरावस्तींक वापरपाचे खडे; आसाव, मसावा हांगा मीठ; तांबड्या दर्याचे देगेर सैमीक तेल आनी एंके फेल्ला (तीग्रे) हांगा मँगनीज मेळटा. गंधक, युरेनियम, अभ्रक, ॲसबेस्टोस, कथील विंगड विंगड वाठारांनी सांपडटा.

ताना सरोवर, नीलनायल, आवाश न्हंय, तांबडो दर्या आनी देशांतली हेर सरोवरां हातूंत नुस्तेमारीचो धंदो बरोच उदरगतीक पावला. नुस्तें निर्यात जाता.

भारतांतल्या बिर्ला आनी गोएंकासारक्या उद्देगपतींनी हांगा कारखाने सुरू केल्यात. तेभायर हेर भोवराश्ट्रीय कारखाने बरेच आसात. शिमीट, कागद, साकर, सुती कपडे, गालिचे, लोखण, पांयतणां, तेलशुध्दीकरण हांचे कारखाने हांगा आसात. रशियेच्या पालवान हांगाच्या उद्देगधंद्याक उंचल्या पांवड्यार पावोवपाचे यत्न चल्ल्यात.

ह्या देशाचे रशियाकडेन चडशे आयात-निर्यातीचे वेव्हार चलतात. तेभायर हेर युरोपीय आनी उदेंतेकडल्या देशांकडेनय आयातनिर्यात जाता. चडशें तंत्रगिन्यान आनी हेर यंत्रांची आयात जाता. पिकावळीची निर्यात जाता.

१९८० सावन बिर्र हें हांगाचें अधिकृत चलन जावन आसा. पयलीं इथिओपियन डॉलर हें नाणें आशिल्लें.

१९८४ त पर्यटनांतल्यान ह्या देशांत ६०,००,००० अमेरिकन डॉलर्सची उलाढाल जाली.

संवसारांतलो हो एक गरीब देश जावन आसा. हालींच्या वर्सांनी दुकळाक लागून हांगाचे बरेचशे लोक मरतात. हेर देशांकडल्यान दुकळाआड इथिओपियाक पालव दिवपाचे यत्न चालू आसात.

**येरादारी आनी संचारण:** इथिओपियांत १९८४ मेरेन ३०,००० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. आदीस अबाबा हें राजधानीचें शार नायरोबीकडेन रस्त्यान जोडलां. १९८४ त हांगा ४१,३०० मोटार गाडयो, ८,८०० ट्रक आनी लॉरी, ३,०४१ बसी आशिल्ल्यो. रेल्वेमार्गांची लांबाय ७८२ किमी. (मीटर गेज) आसा. बारो हे एकेच न्हंयतल्यान उदकांतली येरादारी वेवसायीकरणाखातीर चलता. हरशीं उदकांतल्या मार्गांची लांबाय २२५ किमी. आसा; हातूंतले ११४ किमी. लांबायेचे मार्ग वर्सुयभर उपेगी पडटात. आसाब आनी मसावा हीं हांगाचीं मुखेल बंदरां. ह्या बंदरांवेल्यान आंतरराश्ट्रीय मार्गांवेली येरादारी चलता. इथिओपियन एअरलायन्स ही राश्ट्रीय विमानकंपनी. आदीस अबाबा आनी आसमारा हांगा आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात.

१९८४ मेरेन हांगा ३ खबरांपत्रां आशिल्लीं. हातूंतलीं दोन आदीस अबाबा हांगा तर एक आसमारा हांगासावन उजवाडाक येतात. दोन खबरांपत्रां आम्हारिक भाशेंत जाल्यार एक इंग्लीशींत आसा. रेडिओ, दूरचित्रवाणी आनी खबरांपत्रांसयत सगळ्या प्रसार माध्यमांचेर सरकाराचें पुरायपणान नियंत्रण आसता.

**लोक आनी समाजजीण:** हांगाचे चडशे लोक सेमेटिक आसात; पूण गाल्ला लोक कुशियाटीक कुळाचे आसात. कांय निग्रो वंशाचे लोक सुदान शीमेलागीं आसात. तशेंच ज्यू धर्मीयांचीय ल्हानशी संख्या आसा. देशांत आम्हारा, गाल्ला, सोमाली, सिठामा, आफरसाही, निग्रो, गुरोगे, फुलाशा ह्यो जाती आसात. तांतल्या आम्हारा जातीचें समाजांत फुडारपण चलता. इथिओपियाचे सगळे राजा टेच जातींतल्यान आयिल्ले. चड करून हांगा किरिस्तांव आनी मुसलमान धर्माचे लोक आसात. एझाना राजान किरिस्तांव धर्म आपणायल्या उपरांत 'मोनो फिजाईट' किरिस्तांव धर्म हांगाचो राजधर्म जावन गेलो. किरिस्तांव धर्माआदीं ज्यू धर्म, मूर्तीपूजा, सैमाची पूजा असले प्रकार हांगा चलताले. बरींच धर्मीक उतरां आनी विधी हिंब्रू भाशेंतल्यान आयल्यांत. आठव्या दिसा सुंता करपाची हिब्रू पध्दत आनी 'सब्बाथ' किरिस्तांव लोक पाळटात. कांय सिरियाक धर्मीक उतरांय वेव्हारांत आसात. इथिओपियांतल्या किरिस्तावांचो भुतांखेतांचेर बरोच विस्वास आसा. ते ५२ दिसांचो उपास करतात. त्या काळांत ते मांस, दूद, तूप खायनात. सप्तकांतले दोन दीस, बुधवार आनी शुक्रार उपासाचे दीस आसतात. साधुसंतांचे दीसय उत्सव म्हूण मनयतात. शिश्टाचाराच्यो कल्पना भारतीय कल्पनांक बऱ्योच लागींच्यो आसात. देखीक- ल्हान भुरग्यांनी जाण्ट्यांच्या पांयांक हात लावप, एकामेकांक मेळ्ळ्या उपरांत घरच्या मनशांवांगडा घरांतल्या पोशिल्ल्या जनावरांची आनी सुकण्यांचीय खबर घेवपाची पद्दत आसा. सोयरे आनी इश्ट रस्त्यार मेळ्ळ्यार एकामेकांचो उमो घेवपाचीय पध्दत आसा.

इथिओपियाचें पंचांग (आमाना मिहरत) वेगळें आसा. ९ सप्टेंबर १९६९ दिसा इथिओपियाचें १९६२ वर्स सुरू जालें. वर्साक वट्ट ३६५ दीस आनी १३ म्हयने (१२ म्हयने ३० दिसांचें आनी तेरावो ५ वा ६ दिसांचो) आसतात.

सदच्या जेवणांत 'इंजिरो' आनी 'वत' (तोंडाक लावपाचें) आसता. तैफचें पीठ आंबोवन डोशाभशेन पूण बरोच व्हड इंजिरो तयार करतात. वाटाणे, मसूरची दाळ, बटाट, कोबी, तांतयां, कोंबडी, मांस हांचो उपेग करून 'वत' तयार करतात. ह्या सगळ्यांपरस गाय-बैलांचें हरवें मांस रुचीन खातात. मांसाचे कुडके 'मितामिता' (तारवटी मिरसांगांचो पिठो) वांगडा खातात. तांचें राश्ट्रीय पेय 'तेल्ला' (बीअर) आनी 'तेज' हें आसा. म्होंव, उदक, सड्डोचीं पानां नाजाल्यार गेशोचीं पानां एकठांय करून मागीर ती आंबयतात आनी ताचें 'तेज' तयार करतात.

राश्ट्रीय भेस काठेवाडी पध्दतीभशेन आसता, फकत फरक म्हळ्यार

तकलेर फेटो नासता, त्या जाग्यार व्हडली तणाची तोपी आसता आनी बंडी मात्शी लांब आसता. ताचेर 'शम्मा' (उपरणे) घेतात. बायलांचोय भेस सदळ आनी पुराय आंग धांपपी आसता. हांगाचीं घरां गोंयांत दिसपी खोंपीभशेन आसतात. सुकें तण, चिखोल आनी लाकडाचो चड उपेग जाता. व्हडल्या शारांनी नव्या प्रकारचीं घरां आनी हेर बांदावळ पळोवंक मेळटा. फुटबॉल हो ह्या देशाचो राश्ट्रीय खेळ. हांगाच्या अबेबे बिकीला हाणें ऑलिंपिक खेळांनी मॅरॅथॉन सर्तींत तीन फावट भांगरापदक मेळयलां. हेभायर टेबलटेनिस, बास्केटबॉल, ड्रॉट हे खेळ लोकांच्या भोव आवडीचे आसात.

हांगाचे लोक बायबल चाल लावन म्हण्टात. ताका 'डेग्वा' आनी 'झेमा' अशें म्हण्टात. नृत्य पंजाबांतल्या भांगडा भशेन आसता. हालीं अस्तंतेकडल्या देशांनी नांवाजिल्ले नाचांचे प्रकार तरणाटे पिळगेमदीं बरेच रिगल्यात. हांगाची नाटकां संगीत आसतात.

**शिक्षण:** साक्षरतेचें प्रमाण फकत ७% आसा. शिक्षण सक्तीचें आनी एकसारकें ना. भौशीक शिक्षण मात मुळाव्या पांवड्यांसावन म्हाविद्यालयामेरेन फुकट आसता. स वर्सांचे मुळावें, ताच्या उपरांत दोन वर्सां माध्यमिक आनी चार वर्सां उच्च माध्यमिक अशें १२ वर्सांचे शिक्षण आसता. शाळेंतल्यान मदींच शिक्षण अर्द्यार सोडपाचें प्रमाण बरेंच आसा. सप्टेंबर ते जून मेरेन एक शैक्षणीक वर्स आसता. मुळावें शिक्षण आम्हारिक भाशेंत जाल्यार उंचल्या पांवड्यावेलें आनी विश्वविद्यालयांतलें शिक्षण इंग्लीश भाशेंतल्यान दितात. प्रौढ साक्षरता कार्यावळी सद्या नेटान चालू आसात. आदीस अबाबा हांगाचें राश्ट्रीय विश्वविद्यालय आनी आसमारा विश्वविद्यालय हीं दोन विश्वविद्यालयां आसात. उंचल्या पांवड्यावेलें शिक्षण घेवचेपासत हांगाचे बरेच विद्यार्थी अमेरिका, फ्रांस, कॅनडा, अस्तंत जर्मनी, ब्रिटन आनी उदेंत युरोपांतल्या देशांनी वचून रावल्यात.

**भाशा आनी साहित्य:** इथिओपियाची पूर्विल्ली भाशा गीझ आतां काबार जाल्या. कांय प्रमाणांत मठांनी पाद्री तिचो उपेग करतात. हांगाची राश्ट्रभाशा आम्हारिक. आफ्रिकेंतल्या हेर राश्ट्रांभशेन हांगाय तरेकवार जातींच्यो विंगडविंगड भाशा आसात. फकत आम्हारिक भाशेक लिपी आसा. तीग्रीन्ये, तीग्रे (अल् खासिया), हरारी (अडारे), गुरागे, गफात, अर्गोब्बा, गाल्ला, सोमाली, सिडामा, बेंजा, बिलेन आनी आगाव ह्यो हांगाच्यो हेर बोली आसात.

लुडाल्फ हाणें २५० वर्सांपयलीं आम्हारिक व्याकरण बरयलें. कोएन, पोलोत्स्काय, लेस्लाव, लिटमन, सेरुल्ली सारक्या विद्वानांनी इथिओपिक भाशांचेर कितलेशेच ग्रंथ बरयले. पोरनी बरपावळ फातरापटे, ताम्रपट, होंवरींच्यो वण्टी हांचेर सांपडटा. कांय पोरनीं हातबरपां लंडन आनी पारीसांत आसात. अमदा सेयोनच्या काळांत साहित्य बरेतरेन फुलूंक पावलें. ह्याच काळांत म्हत्वाचें 'केब्रा नेगास्त' बरयल्लें. ताची तुळा कुराण आनी बायबलावांगडा करतात. ताच्या उपरांत याकूबच्या काळांत आनी थीओडोरच्या काळांतूय साहित्याच्या मळार बरीच उदरगत जाली. अलेका ताय्ये, आफवर्क, ब्लाता मर्शा हासेन, बायमनात गेब्रे आमलक, हवार्यात, केब्बेडे मिकायेल हे आर्विल्ल्या काळांतले कांय लेखक आसात. महात्मा गांधीच्या जीणेचेरय हांगाच्या लेखकांनी पुस्तकां बरयल्यांत.

**म्हत्वाचीं थळां:** ह्या देशाक आफ्रिकेंतलें स्वित्झर्लंड अशें म्हण्टात. कितलींशींच सरोवरां, धबधबे हांकांलागून भोंवडेकार हांगा येतात. आदीस अबाबा हें राजधानीचें शार बरेंच फुडारलां. आसमारा हेंय शार बरेंच उदरगतीक पावलां. गोंडार पोरन्या किल्ल्यांक लागून जाल्यार लालीबेला पोरन्या मठांक लागून नांवाजिल्लें आसा. आक्सूम हे पयलींचे राजधानींत पूर्विल्ले अवशेश सांपडटात. हांगाचे सूर्यस्तंभ नामनेचे आसात. ते एकाच फातरांल्यान कोंरातून काडल्यात. मसावा हें तांबड्या दर्यावेलें म्हत्वाचें बंदर. हांगा इथिओपियाचें नौदल आसा. आसाब ह्या बंदरांत तेल शुध्दीकरणाचो कारखानो आसा. हरार हांगा सैनिक अकादमी आसा.

## इन्क्विझिशन:

**इन्क्विझिशन:** किरिस्तांव धर्मांतलें धर्मीक न्यायमंडळ वा धर्मसमीक्षण सभा. तेराव्या शतमानांत युरोप खंडांत, लोकांच्या धर्माचाराचें निरीक्षण करपाखातीर एक मंडळ घडयल्लें. हें मंडळ जर एकाद्रो मनीस कॅथलिक धर्म-नीतीक पाळो दिना अशें दिसलें तर ताका ख्यास्त फर्मायतालें आनी ती ख्यास्त चलणुकेंत हाडटालें. हें कार्य करपी मंडळ वा सभा म्हळ्यार ' इन्क्विझिशन'. धर्मीक समीक्षण सभेची व्याख्या विंगडविंगड लेखक विंगडविंगड तरेन करतात. कांय जाण आदाम ईव्हाच्या काळांत वचून देवाक धर्मसभेचो पयलो जाळवणदार मानतात. सिसिली देशाचो लेखक पारामो आपल्या 'द ओरिजीन अॅट् प्रोग्रेस्यू इन्क्विझिशन' ह्या पुस्तकांत म्हण्टा- 'देव धर्मीक सभेचो पयलो जाळवणदार आसून ताणें आदाम आनी ईव्हाक धर्मीक न्यायालयांत फर्मायिल्ली ख्यास्त न्यायालयीन प्रक्रियेची पयली घडण (model) आसली. आदामाक दिल्ली ख्यास्त 'धर्मीक' आसली.

धर्मसमीक्षण सभेचें कर्तुप युरोप आनी क्रिस्ती धर्माच्या इतिहासांतलो एक भिरांकूळ काळखंड जावन आसा. प्रा. अ. का. प्रियोळकार आपल्या 'इन्क्विझिशन' ह्या ग्रंथांत फुडले तरेन म्हायती दिता.




''क्रिस्ताच्या मरणाउपरांत ताचे कांय अनुयायी युरोपांत पळून गेले. तांच्यावांगडा किरिस्तांव धर्म थंय पावलो. यहुदी प्रदेशांतलेभशेन हांगाय तांचो खर छळ सुरू जालो. सुमार २५० वर्सां असो छळ आनी कश्ट सोसतकच तांकां बरे दीस आयले. रोमाच्या कोंस्तांतीन राजाची चली क्रिस्ती अनुयायांच्या वखदान बरी जाली. ताका लागून ताणें किरिस्तांव धर्म आपणायलो. वयले घडणुकेक लागून किरिस्तांव धर्माक राजाश्रय मेळ्ळो, जे वरवीं हो धर्म युरोपभर पातळपाक लागलो. ह्या धर्माक किरिस्तांव धर्म म्हणपाचें सोडून 'रेलिजिआंव कातोलिक आपास्तोलिक रोमान' हें नांव मेळ्ळें. राजसत्तेची शक्त मेळिल्ले क्रिस्त धर्माचे अनुयायी हेर धर्मीयांचो खर छळ करपाक लागले, तशेंच हेर धर्मीयांक किरिस्तांव

धर्माची दिक्षा दिवपाक लागले. पूण नव्या धर्माची दिक्षा घेतिल्ले नवक्रिस्ती लोक आपली पयलींची परंपराच फुडें चलोवपाक लागले. तेन्ना ह्या लोकांक ख्यास्त भोगोवपाक 'इन्क्विझिशन' ह्या धर्मीक मंडळाची थापणूक, १२२९ वर्सा क्रिस्ती धर्मगुरू पोप ९ वो ग्रेगरी हाणें केली. उपरांत ताणें बिशप आनी आर्चबिशप हांची एक परिशद आपयली आनी तातूंत थाराव संमत केले. हे थाराव म्हळ्यार धर्मीक मंडळाचे नेम.''

धर्मीक मंडळाचे नेम मानीनाशिल्ल्या नास्तिक लोकांक, चेटूक, जादू करपी दादलेबायलांक जिवीं जाळपाची वा गोळाक लावपाची ख्यास्त हें धर्मीक न्यायालय दितालें. फुडें इटली, फ्रांस, जर्मनी आनी स्पेन ह्या कॅथोलीक देशांतय हे संस्थेचो शेक सुरू जालो. ह्या देशांतल्या थळाव्या ज्यू लोकांक सक्तीन किरिस्तांव धर्माची दिक्षा दिली. पूण ते जेन्ना किरिस्तांव धर्माचे नेम पाळिनात अशें दिसून आयलें. तेन्ना इन्क्विझिशनचे अधिकारी तांकां गोळाक लावपाक लागले. हे भिरांकूळ ख्यास्तीक भिवन जायते ज्यू, पोर्तुगालाक धांवले. पूण थंय लेगीत तांकां किरिस्तांव धर्माचे नेम पाळपाखातीर इन्क्विझिशनान सक्ती केली. ह्या सगळ्या धर्मीक अत्याचारांक लागून लाखांनी ज्यू लोक सोंपले. फ्रांस देशांतली नामनेची झुजारी बायल *'जॉन ऑफ आर्क'*(*) हिका चेटूक आनी जादू करपाचो आरोप दवरून धर्मसमीक्षण सभेन जिवी जाळपाची ख्यास्त फर्मायली. धर्मसमीक्षण सभा अशे तरेन आपल्या हिताआड येवपी मनशाक सोंपयताली आनी आपलें व्हडपण गाजयताली.

**पोर्तुगाल आनी इन्क्विझिशनः** सन १५२१ त दाँ मानुयेलाक मरण आयल्या उपरांत, तिसरो दाँ ज्युआंव पोर्तुगालचो राजा जालो. हो राजा खर धर्मनिश्ठ आसलो. पोर्तुगालची जनता थळाव्या ज्यू लोकांचो दोन कारणांक लागून दुस्वास करताली. पयलें, क्रिस्ताक मारिल्ल्या काळासावन, किरिस्तांव लोकांक ज्यूंविशीं द्वेश आसलो. दुसरें, ज्यू वेपार-धंदो करून गिरेस्त जाल्ले. ज्यू लोकांची गिरेस्तकाय राजा जाणा आसलो. अशा वेळार धर्मसमीक्षण सभा (inquisition-इन्क्विझिशन) पोर्तुगालांत स्थापपाविशीं हितसंबंधियांनी राजाचेर चेपण हाडलें. मूळ स्पेनची राजकुंवरी आनी पोर्तुगालची राणी दॉना कातारीन हिणेंय धर्म समीक्षण सभा स्थापपाविशीं आगरो धरलो. तिकाय ज्यू लोकांची तिडक आसली. ह्या विंगडविंगड कारणांक लागून राजान, पोप सातवो क्लेमेंत हाचेकडेन धर्मसमीक्षण सभा नेमपाविशीं बुध्द घेतली. १७ डिसेंबर १५३१ ह्या दिसा पोपान पोर्तुगालांत धर्मसमीक्षण सभा नेमिल्ल्याचें जाहीर केलें. हे धर्मसमीक्षण सभेन उपरांत ज्यू लोकांचेर जबर अत्याचार केले. ज्यू लोकांनी क्रिस्त धर्म आपणायल्या उपरांत लेगीत तांचेर मानसिक आनी शारिरीक अत्याचार जाले. तांची संपत्ती सरकारान ताब्यांत घेतली. अशे तरेन पोर्तुगालचे ज्यू देशोधडीक लागले. धर्मसमीक्षण सभेचीं दुश्टपणां तेंगशेर पावलीं, तेन्ना पोप सातवो क्लेमेंत हाका आपली चूक समजली. १७ ऑक्टोबर १५३२ दिसा एक फर्मान काडून ताणें धर्मसमीक्षण सभा (इन्क्विझिशन) रद्द केली. ७ एप्रिल १५३३ दिसा एक फर्मान काडून ताणें सगळ्या ज्यू लोकांक रासवळपणान माफ केले, तशेंच नव क्रिस्तींचो छळ करपाचेर बंदी हाडली. कांय दिसा उपरांत पोप क्लेमेंती भायर पडलो आनी तिसरो पॉल पोपाचे गादयेर आयलो. ताणें राजा तिसरो दाँ ज्युआंव हाच्या आगऱ्यावेल्यान २३ मे १५३६ ह्या दिसा धर्मसमीक्षण सभेची थापणूक केली. हे सभेन नवक्रिस्ती आनी ज्यू लोकांचेर भयंकर अत्याचार केले.

**गोंय आनी इन्क्विझिशनः** सन १५१० त, पोर्तुगेजांनी गोंयांत प्रवेश केलो. त्यावेळार तीस गांव आशिल्लो तिसवाडी तांच्या ताब्यांत आशिल्लो. सन १५४२ मेरेन साश्ट आनी बारदेस म्हाल तांणी आपल्या शेकातळा हाडले. तिसवाडी म्हालांत सक्तीचें क्रिस्तीकरण करपाक १५४० त सुरवात जाली. फुडें नवक्रिस्त्यांक धर्माचें शिकप दिवपाच्या निमतान सेंट फ्रांसिस शाव्हियर गोंयांत आयलो. किरिस्तांव धर्माचो प्रसार गोंयांत करप सोपें जावंचें हेखातीर 'धर्मसमीक्षण सभा' गोंयांत आसची अशें ताका दिसलें. १६ मे १५४६ ह्या दिसा ताणें पोर्तुगालचो राजा दाँ ज्युआंव (तिसरो) हाका तेसंबंदी पत्र बरयलें. सेंट शाव्हियर हाची मागणी राजान आयकून घेतली ना, पूण ताच्या मरणाउपरांत पोर्तुगालांत गोंयांतय धर्मसमीक्षण सभा (इन्क्विझिशन) जावंची अशें मत तयार जालें. काळांतरान १५६० वर्सा, गोंयांत धर्मसमीक्षण सभेची थापणूक जाली. आलेक्स दियश फाल्कांव हो धर्मसमीक्षण सभेचो मुखेल जाळवणदार म्हूण गोंयांत आयलो.

एक फावट किरिस्तांव धर्म आपणायिल्ल्या लोकांनी आपलो धर्म सोडून आपल्या मूळ धर्मांत वचचें न्हय, हो धर्मसमीक्षण सभा गोंयांत स्थापपा फाटलो मुखेल हेत आसलो. तेभायर ही सभा किरिस्तांव धर्माचो कायद्याच्या रुपांत बळयां प्रसार करप ह्या ध्येयान चलताली. इन्क्विझिशनाची सत्ता गोंय जुंवो (तिसवाडी), बारदेस, साश्ट ह्या म्हालांचेर चलली. तांकां 'पोरन्यो काबिजादी' म्हण्टात. गोंयचे हेर म्हाल पोर्तुगेजांच्या हातांत दोनशीं वर्सां उपरांत आयले. ताका लागून थंयच्या लोकांक इन्क्विझिशनाचो त्रास जालो ना. इन्क्विझिशनाची सत्ता पोर्तुगेज सरकाराचे सत्तेपरस बळीश्ट आसली. ज्या मनशाचेर दुबाव घेवं येता ताची चवकशी करचेपासत आर्चबिशप आनी इन्क्विझिशन मुखेली पकड वॉरंट काडपाक शकतालो. ताची संपत्ती जप्त करून ती कोणाकडेनय राखपाक दवरताले. जर दुबावीत मनशाआड गुन्यांव सिध्द जालो तर ती संपत्ती नगरपालिकेक दिताले.

इन्क्विझिशनान नवकिरिस्तावांचो लग्नसुवाळो, साकरपुडो आनी हेर धर्मीक सुवाळ्यांखातीर कडक नेम तयार केल्ले. गोंयांत रावपी हिंदू-मुसलमानांकय उपरांत ते नेम लागू जाले. सन १६१३ त व्हिसिरेय दाँ जेरॉनिमू द आझेव्हेद हाणें एक हुकूम काडून हिंदूंक धर्मसमीक्षण सभेन दिसाचीं ज्या वेळार लग्नां करचीं न्हय अशें सांगलां, त्या दिसा गांवाभायर वचून लेगीत लग्नां लावचीं न्हय अशें सांगलें. हो हुकूम १००० अश्रफींचो दंड करतालें. गोंयची हिंदू संस्कृताय नश्ट जावंची आनी किरिस्तांव धर्माचो चडांत चड प्रसार लोकांमदीं जावंचो हो हे नेम करपाफाटलो हेत आसलो. वयल्या नेमांच्या भयान हिंदू तशेंच नवक्रिस्ती लोक आपली घरंदारां सोडून मद्रास, म्हैसूर, कोचीन, मंगळूर आनी हेर वाठारांत गेले.

इ.स. १७७० त मार्केश द पाँबाल हो उदारमतवादी मनीस पोर्तुगालचो प्रधानमंत्री जालो. ताणें इन्क्विझिशनाची वायट कर्तुपां पळोवन १७७४ त ताचेर बंदी घाली, तशेंच थंयच्या सगळ्या पंथांच्या मिशनऱ्यांक धांवडावन घाले. ह्या मिशनऱ्यांची संपत्ती सरकारान ताब्यांत घेतली. पाँबालच्या मरणाउपरांत दाँना मारीया ही पोर्तुगालची राणी जाली. सन १७७९ त तिणें 'इन्क्विझिशन' परतें सुरू केलें. पूण तातूंत आदलो नेट नासलो. सन १८१२ त मात 'इन्क्विझिशन' सासणाचें बंद केलें.

इन्क्विझिशनाची बंदखण आरोपीचो छळ करपाचें तशेंच मानसिक आनी शारिरीक त्रास दिवपाचें केंद्र आसलें. हो छळ करपाक खासा उपकरणां तयार केल्लीं. हे बंदखणींत दादल्या-बायलांक नागडीं करून तांच्या कुडींचेर अत्याचार करताले. ताका लागून जे निश्पाप आसले, ते लेगीत गुन्यांव कबूल करपाक लागले. उपरांत अशा गुन्यांवांचें वर्णन करपाखातीर धर्मीक न्यायालय चेपण हाडटालें, पूण तो वा ती गुन्यांवाचें वर्णन करूंक शकनासल्लीं. तेन्ना तांचो आनीकूय छळ जातालो. डॉ. देलाँ ह्या फ्रेंच भोंवडेकारान ह्या छळाचीं वर्णनां सविस्तरपणान बरोवन दवरल्यांत. तो गोंयच्या इन्क्विझिशनाचे बंदखणींत आसलो. ताचें पुस्तक फ्रेंच भाशेंतल्यान १६८४ वर्सा उजवाडाक आयलें. डॉ. क्लॉडियस बूचनन हो सन १८०८ त गोंयांत आसलो. ताचे 'क्रिश्चन रिसर्चेस इन इंडिया' हें पुस्तक लंडनांत उजवाडाक आयलें. तातूंत पोर्तुगेजांच्या गोयांतल्या इन्क्विझिशनाची माहिती मेळटा. सन १८१२ त ताची पांचवी आवृत्ती उजवाडाक आयली. ह्या दोगांकय लागून संवसाराक 'इन्क्विझिशना'विशींचें कार्य कळ्ळें.

गोंयचें इन्क्विझिशन हें गोंयांतल्या कॅथलिक किरिस्तांव संस्कृतायेचें त्या काळांतलें विकृत रुप आसलें. तातूंत किरिस्तांव धर्माचें मनीसपण,

शुध्दपण, मानवतावादी नदर नासली, तर क्रूरपण, खुनशीपण आनी विकृत मनोवृत्ती आसली. पाद्री साल्दान्य हाणें इन्क्विझिशनाक भयांकृत कोर्ट (Terriuel Tribunal) अशें म्हळां. इन्क्विझिशनाच्या हुकूमनाम्यांत गुन्यांवकारांक दिवपाक येवपी ख्यास्तीविशीं सांगलां. तातूंतल्यो कांय ख्यास्ती फुडले तरेन आसातः सरकारी गलबताचेर वर्सांची वर्सां कैदी जावन कश्ट करप, आफ्रिकेसारक्या जाग्यार बंदखण भोगप, जिवो लासप, जिवो लासपाची ख्यास्त जाल्ल्या गुन्यांवकारान किरिस्तांव धर्मांत मरपाची इत्सा परगटायल्यार ताचो गळो दामून जीव घेवप. बंदखणींत गुन्यांवाचो निकाल लागचे आदीं जर एकाद्र्याक मरण आयलें, तर कसलोच धर्मीक विधी करीनासतना ताची कूड बंदखणीच्या वाठारांत पुरताले. खटल्याचो निकाल लागून जर गुन्यांव सिध्द जालो जाल्यार गुन्यांवकाराचीं पुरिल्लीं हाडां उस्तून काडून तीं लासताले.

लिस्बन शारांतले नॅशनल लायब्ररींत, जुआंव देल्लगादू फिगैर हाणें बरयिल्लें (Reporterio Geral) नांवाचें हातबरप आसा. ह्या हातबरपांत सन १५६५ सावन १६१५ मेरेन गोंयांत इन्क्विझिशनान चलयिल्ल्या ३८०० खटल्यांची नोंद आसा.

गोंयांतलें इन्क्विझिशन अशे तरेन सुमार अडेचशीं वर्सां चललें. ओल्ड गोवा हांगा बों जीझस इगर्जीफाटल्यान करमळी-दोंगरी गांवांत जो रस्तो वता, त्या रस्त्याचे कुशीक एक खांबो (Pelourinho Novo - पिलोरिन्य नोवो) उबो आसा ताका 'हात कापोखांब' (हात कापपाचो खांबो) म्हण्टात. इन्क्विझिशनाच्या काळांत गुन्यांवकारांचे हात कापपाची ख्यास्त ह्या खांब्यार दिताले.

- कों. वि. सं. मं.

**इब्सेन, हेन्रिकः** (जल्मः २० मार्च १८२८, शेएन; मरणः २३ मे १९०६, ऑस्लो).

आर्विल्ल्या वास्तववादी नाटकाचें मुळावण घालपी आंतरराश्ट्रीय कीर्तीचो नॉर्वेजियन नाटककार. एका गिरेस्त वेपाऱ्याचो इब्सेन हो दुसरो चलो आशिल्लो. पूण मुखार वेपारांत अपेस आयिल्ल्यान ताच्या कुटुंबाक गांव सोडून वचचें पडलें आपले उमेदीचीं कांय वर्सां ताका गरिबींत काडचीं पडलीं. हाचो खोल परिणाम ताच्या मनाचेर जालो. ह्या काळांतलें पडबिंब ताच्या नाटकांचेर पडिल्लें दिसता.

पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा तो ग्रिम्स्टा ह्या शारांत आयलो आनी थंय एका वखदां विकप्याच्या हातासकयल काम करपाक लागलो. मुखार १८५० वर्सा तो ऑस्लो शारांत आयलो. एका वर्साभितर बर्गेनचे 'द नॉर्वेजियन थिएटर' हे संस्थेखातीर दर वर्सा एक नवें नाटक बरोवपाची जापसालदारकी ताचेर आयली. ह्या कामा निमतान ताणें जर्मनी आनी डेन्मार्क देशांक भेट दिवन थंयचे रंगमाचयेचो आनी नाटकांचो खोलायेन अभ्यास केलो. २६ सप्टेंबर १८५० दिसा ताच्या 'The Burial Mound' ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग जालो. पूण इतिहासिक फाटभूंय आशिल्लें हें नाटक रंगमाचयेर पडलें आनी ताका लागून नाटकां बरोवन पोट भरपाचो हावेस ताका सोडचो पडलो. आपली चडशी जीण ताका पत्रकाराचो वेवसाय करून सारची पडली.

१८५७ वर्सा तो 'नॉर्वेजियन थिएटर' हे नाट्यसंस्थेचो दिग्दर्शक जालो. १८५८ त, सुझान थोरेसन हे चलयेकडेन तो लग्न जालो. आपले पिरायेचीं सत्तावीस वर्सां ताणें रोम, ड्रेझडेन आनी म्युनिक हांगा काडलीं. १८९१ वर्सा तो नॉर्वेक परत आयलो आनी उरिल्ली जीण ताणें ऑस्लो हांगा सारली.

इब्सेनान पंचवीस नाटकां बरयलीं. तातूंतलीं कांय नांवाजिल्लीं नाटकां अशीं आसातः Love's Comedy (१८६२), Brand (१८६६), Peer Gynt (१८६७), Pillars of Society (१८७७), A Doll's House (१८७९), Ghosts (१८८१), An Enemy of the people (१८८२), The Wild Duck (१८८४), Hedda Gabler (१८९०) आनी The Master Builder (१८९२). नाटकांभायर ताच्यो कविता आनी लेख उजवाडाक आयल्यात.

युरोपियन रंगमाचयेर क्रांती घडोवन हाडपी नाटककार म्हूण इब्सेनाक सगळो संवसार वळखता. अभिजात ग्रीक नाटकांची बांदावळ आनी तातूंतल्यान प्रगट जावपी मनीसजिणेंतलो संघर्श हें इब्सेनाच्या नाटकांचें खाशेलपण जावन आसा. आनीक एक म्हत्वाचो गूण म्हळ्यार ताच्या नाट्यविकासाचो क्रम शेक्सपियराच्या नाट्यविकासासारकोच आसा. शेक्सपियराच्या नाटकांभशेन ताचींय सुखेचीं नाटकां परिकथा आनी इतिहासांतल्या घडणुकांचेर रचिल्लीं आसात. शोकांतिकांकडेन ताची चड ओड दिसता. 'A Doll's House' ह्या नाटकांतली नायिका नोरा हिणें सबंद युरोपांत क्रांती केली. आयज जी स्त्री-मुक्तीची चळवळ संवसारभर चलता तिचें मुळावण नोरान घालें, अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. इब्सेनाच्या नाट्यतंत्राचो प्रभाव युरोपियन नाटकाचेर पडला. नामनेचो इंग्लीश नाटककार जॉर्ज बर्नार्ड शॉ हाणें ताका आपलो गुरु मानला. आर्विल्ल्या भारतीय भासांतल्या नाटककारांनीय ताचे पसून स्फूर्त घेवन नाटकां बरयल्यांत.

- माधव बोरकार

**इराकः** नैऋत्य आशियांतलें एक अरब राश्ट्र. क्षेत्रफळ ४,३७,५२२ चौ. किमी.; लोकसंख्या १,४०,००,०००. अक्षवृत्तीय विस्तार २९ उदेंत ते ३७° ५०' उत्तर; रेखावृत्तीय विस्तार ३९° उदेंत ते ४८° उदेंत. चडांतचड लांबाय १२०० किमी. आनी रुंदाय ७६८ किमी. टायग्रीस आनी युफ्रेटिस ह्या दोन न्हंयांमदलो वाठार म्हूण इराकाक पयलीं 'मेसोपोटेमिया' हें नांव आशिल्लें. हांगा पूर्विल्ल्या काळांत आसिरिया आनी बॅबिलोनिया हीं राज्यां आशिल्लीं. इराकचे उत्तरेकवटेन तुर्कस्थान, अस्तंतेक सिरिया आनी जॉर्डन, दक्षिणेक साउदी अरेबिया, एक अशासित वाठार, कुवेत आनी इराणचें आखात जाल्यार उदेंतेवटेन इराण आसा. जॉर्डन आनी साउदी अरेबिया हांचेकडेन इराकच्यो शीमो निश्चित नात. इराण आनी इराक हांचेमदली शीम ४०० किमी. आसा आनी इराकाक सुमार ६४ किमी. लांबायेची दर्यादेग आसा.

**भूंयवर्णनः** इराक हो सकयल्या वाठारांतलो दोण्याभशेन आशिल्लो देश. हाचे उदेंत, उत्तर आनी अस्तंत दिकांवटेन व्हड अशे झॅग्रॉस आनी आनातोलियन दोंगर आसात. झॅग्रॉस दोंगराच्यो वळी आग्नेय-वायव्य अशो पातळ्ळयात. बगदादाचे उत्तरेकवटेन हो दोंगर ऊंच जायत गेला. कांय जाग्यांचेर ३,०४८ मी. परस चड उंचायेचीं दोंगरातेंमकां आसात. सामकेच उदेंतेवटेन रावपी कुर्द ह्या लोकांवेल्यान त्या वाठाराक 'कुर्दिस्तान' हें नांव पडलां. ह्या देशाक, हांगा आशिल्ल्या पठारांवेल्या दोंगरांच्या कड्यांक लागून 'इराक' हें नांव पडलां आसूंये (अरबी उतर-इराक = कडो) अशें कांय जाणांचें मत आसा. भुंयेचे नदरेंतल्यान ह्या देशाचे चार वांटे जातात. १. युफ्रेटीस आनी टायग्रिस ह्या दोन न्हंयांमदलो सकयलो वाठार २. अपर इराकः ह्या दोन न्हंयांच्या विंगड विंगड देगणांतले वाठार ३. आसिरिया आनी इराकी कुर्दिस्तान आनी ४. अस्तंतेवटेनचो वाळवंटांचो वाठार.

*१. सकयलो वाठारः* टायग्रिस न्हंय तुर्कस्थानांतल्यान इराकांत पावता जाल्यार युफ्रेटीस तुर्कस्थानांतल्यान पयलीं सिरिया आनी थंयसावन इराकांत पावता. फाटल्या पंदराशीं वर्सांत टायग्रिसान आपलो मार्ग बरेच फावट बदलला; अमराहचे फुडें दक्षिणेवटेन हे न्हंयचो झोत ल्हानसान कालवे आनी चिखलाचे वाठार हांकांलागून उदेंत अस्तंतेक पातळ्ळा. युफ्रेटीसचो मार्ग टायग्रिसाभशेन वांकडोतिकडो ना. सॅमॅवासावन नासिरियामेरेन ती सामको सरळ व्हांवता, नासिरियाच्या फुडें मात तिच्यो बऱ्योच उपन्हंयो आनी कालवे आसात. युफ्रेटीस आनी टायग्रिस दोनूय न्हंयो कुर्ना हांगा एकामेकांक मेळटात. थंयसावन फुडें व्हांवपी न्हंयक शट अल् अरब अशें नांव आसा. तिची लांबाय १८५ किमी. आसा. टायग्रिस आनी युफ्रेटीस हांकां हुंवार येता, तेन्ना ह्या वाठारांतली शेंकड्यांनी किमी. भूंय उदकापोंदा वता. हुंवारा उपरांत बरेच फावट न्हंयो मार्ग बदलतात आनी पयलींच्या मार्गांचेर चिखलाचे वाठार तयार जातात.

**अपर इराकः** ह्या वाठारांत न्हंयच्या देगणाक लागून व्हड व्हड मळां




तयार जाल्यांत. युफ्रेटीस न्हंयचो झोत हांगा फातरांच्या वाठारांतल्यान गेला. तिचो आनी टायग्रिसच्या सरभोंवतणी सिंजार पर्वतांतलो अल् जाझिरा हो चड्टे-देंवतेचो स्टेपीचो वाठार आसा. फुडें होच वाठार सिरिया-जॉर्डन मेरेन पावला. अल् थार्थार हें मळ पयलीं गोरवांक चरपाखातीर उपेगी पडटालें, आतां टायग्रिस हुंवार नियंत्रण प्रकल्पाखातीर ह्या मळाचो म्हत्वाचो उपेग जाता.

३. *ॲसिरिया आनी इराकी कुर्दिस्तानः* उदेंतेवटेनच्यान टायग्रिसच्या मुखावेली तुर्कस्थानची शीम आनी टायग्रिसच्या दियाला हे उपन्हंयच्या भोंवतणचो वाठार हांगासावन चड्टी सुरू जाता. उदेंतेवटेन जेबेल हॅमरिन हें दोंगरातेमक सुमार ४८८ मी. उंचायेचें आसा. फुडलीं दोंगरातेमकां झॅग्रॉस पर्वताचे वळींक मेळटात. अस्तंतेवटेंतलो कांय वाठार ग्रेट झॅब आनी लिटल् झॅब ह्या न्हंयांक लागून वेगळो जाला. ग्रेट झॅब हे न्हंयक लागून तयार जाल्लीं मळां बरींच पिकाळ आसात. ह्या वाठारांत निनेव्ह, निमरुद आनी खोर्साबाद हीं राजधानीचीं शारां जावन गेलीं. ह्या वाठारांत पिकपी गंव इराकांत सगळ्यांत बरो अशें समजतात. इराकी कुर्दिस्तानांत दोंगरी वाठार सादारणपणान वायव्य-आग्नेय दिकेक सुरू जाता. कांय जाग्यांचेर दोंगरांची उंचाय ३,०४८ मी. ते ३,३५२ मी. मेरेन आसा. सुलेमानिया, अल अमादीया, रवांडूझ ह्या सारक्या कांय वाठारांनी शेतवड बरी जाता; पूण चडशें कुर्दिस्तान चरपाच्या मळांक लागून नामनेक पावलां.

४. *अस्तंतेवटेनचें वाळवंटः* न्हंयांदेगांच्या सकयल्या वाठारांनी दक्षिण आनी अस्तंत दिकांक वाळवंटांचो वाठार आसा आनी तो कुवेत आनी साउदी अरेबिया सावन जॉर्डन आनी सिरियामेरेन पातळ्ळा. हाचो थर वयर सकयल आसा. उणो पावस आनी ताच्या उपरांतचो सामको सुको गीम हांकां लागून मातयेंत मिठाचें प्रमाण वाडून ती शेतवडीखातीर उपेगाची थारना. शेतवड जावपी वट्ट जमनींतली सुमार १% जमीन दर वर्सा मिठाचें प्रमाण वाडिल्ल्यान सोडून दिवंची पडटा. हो वाठार इराक-कुवेत हांचे मदीं शीमेसारको आसा. हांगा रेंव आनी ल्हान-व्हड फातरांचें प्रमाण बरेंच चड आसा.

**हवामानः** गीमाच्या दिसांनी आग्नेयेवटेनच्यान व्हांवपी (शमाल) जाल्यार शियाच्या दिसांनी हेच दिकेंतल्यान येवपी नेटाच्या वाऱ्याक (शरकी) इराकाक तोंड दिवचें पडटा. मे ते ऑक्टोबर ह्या काळांत सामको खर आनी कडक गीम आसता. ह्या काळांत तापमान ४३° से. ते ४९° से. इतलें आसता. गीमांत येवपी नेटाच्या वाऱ्यांक लागून धुल्लाची आनी रेंवेचीं वादळां जातात. जुलय हो वादळांचे नदरेंतल्यान सामको वायट म्हयनो. शियाळो (डिसेंबर-मार्च) हो कडक थंडेचो आनी आखातावेल्यान येवपी दमट हवेचो आसता. जानेवारी हो सगळ्यांत थंड म्हयनो (-५.२° से.) आसता. बसऱ्याच्या वाठारांत दंव उणो पडलो तरी उत्तर इराकांत तो खर आनी दाट आसता. वर्सुकी पावसाचें प्रमाण उणें आसूनलेगीत ईशान्य इराकांत (आसिरिया वाठारांत) तें ३८.१० - ६३.५० सेंमी. मेरेन आसता. बगदाद हांगा एका वर्साक फकत सुमार २८ दीस १६.३० सेंमी. पावस पडटा. मोसूल हांगा वर्सांतल्यान ६० दीस ३३.०२ सेंमी. जाल्यार बसरा हांगा २१ दिसांत १४ सेंमी. पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजातः** युफ्रेटीस आनी टायग्रिस न्हंयच्या वाठारांनी शेळो, कमळां, ऊंच बोरुचीं झाडां जातात. विलो, पॉप्लर आनी ऑल्डर रुखय हांगा आसात. लिकोराइस नांवाचीं रानवटीं झोंपां बऱ्याच चड प्रमाणांत जातात; तांच्या मुळांचो रोस तंबाखू उद्येगांत आनी मिठाय तयार करपाखातीर उपेगी पडटा. दुसरी एक ट्रॅगाकन्थ नांवाची रानवटी वनस्पत स्टेप वाठारांनी आनी वाळवंटांनी वाडटा; हे वनस्पतीचो दीख वखदांखातीर वापरतात. व्हॅलोनिया ओक जातीचे रुख झॅग्रॉस पर्वताच्या उंचल्या वाठारांनी वाडटात. तांचो उपेग चामडें निवळ करपाखातीर जाता. वसंत ऋतुंत वाळवंटांत आनी स्टेप मळांचेर वाडपीं झोंपां आनी

तण मेंढरांक चरपाखातीर उपेगी पडटा.

रानवट मोनजातीभितर तरस, कोलो, चित्तो आनी खोकड हांचो आस्पाव जाता. ल्हान मेरवांचे पंगड, सारंग तशेंच चिचुंद्री, साळ, वाळवंटी सोंशे, वागोळीं हेय प्राणी सांपडटात. बीव्हर, रानवट गाडव आनी कोलसुणीं हीं जनावरां सामकीं उणीं आसात. रानवटी हांयस, हंस आनी तितर हीं सुकणीं बऱ्याच प्रमाणांत हांगा आसात. शहामृग सामकेच उणे जाल्यात. गिद, घुघम, डोमकावळे आनी बुझार्ड (एक हिंस्र सुकणें) हीं सुकणीं युफ्रेटीसच्या वाठारांत सांपडटात. बहिरी ससाण्यांक शिकारेचें शिक्षण दितात. जळारां, वाळवंटी मूस, सादे मूस हांकांलागून मलेरिया, दोळ्यांचे आनी चामडेचे रोग जातात; इराकांतल्या वॉडी वाठारांत टोळ आसात.

**इतिहासः** इराकांत विंगडविंगड संस्कृतायांचो जल्म जाल्लो. इ. स. प. ३००० वर्सांआदीं सुमेरी लोकांनी दक्षिण इराकांत आपलो राबीतो केल्लो. सुमेरियन संस्कृताय ही इराकांतलीं सगळ्यांत पोरनी संस्कृताय अशें मानतात. इ.स.प. सुमार २५०० वर्सा लॅगॅश ह्या सुमेरी नगरराज्यान चार हेर नगरराज्यांचेर जैत मेळोवन आपलो शेक नैर्ऋत्य इराणांत आशिल्ले ईलम संस्कृतायेमेरेन पावयलो. मोहेंजोदाडो आनी सुमेरियन संस्कृतायांमदीं बरेंच सारकेपण दिसून येता. पूर्विल्ल्या काळांत भारत आनी सुमेर हांचेमदीं लागींचे संबंद आशिल्ल्याचेय पुरावे मेळटात. सुमेरी संस्कृतायेचे उत्तरेवटेन रावपी अक्कड लोकांनी बंड करून त्या वाठारांत वेगळें राज्य तयार केलें. पूण परक्यांच्या घुरयांक लागून तें काबार जालें. दक्षिण इराकांत ताचे उपरांत बॅबिलोनियन संस्कृतायेची पुरायपणान उदरगत जाली. पूण फुडें कॅसायटांच्या घुरयांक लागून ही संस्कृताय भूंयभरखण जाली. इ.स.प. सुमार १६०० वर्सा अक्कड आनी सुमेर साम्राज्यांचो पुरायपणान नाश जालो. हाचे फुडलीं १००० वर्सां कांयच म्हत्वाच्यो गजाली घडनासतना गेलीं.

उत्तर इराकांत मात नवीं नवीं राज्यां तयार जातालीं. तांतलें मितानी हें पयलें राज्य. शस्त्रांखातीर लोखणाचो उपेग करून घेवपाची कला ते जाणा आशिल्ले अशें दिसून येता. हिटाइट ह्या मायनर आशियाच्या राज्यकर्त्यांनी मितानीचेर जैत मेळयलें आनी हिटाइटांचो राजा शुबिलुलिउमा हाचे राजवटींत (इ. स. प. सुमार १३९०-१३५० वर्सा) तांचो विस्तार इराणच्या आखातामेरेन जालो. आसिरियनांक मितानी आनी हिटाइट साम्राज्यां काबार करूंक येस मेळ्ळें. पयलो आदादनिरारी (इ. स. प. सुमार १३००) आनी पयलो टिगलॅथ-पिलीझर (इ. स. प. सुमार १२००) ह्या दोगा आसिरियन राजांनी उर्रतू पंगडांक नश्ट करून व्हड लश्कर उबारलें. दुसरो असुरनासिरपाल हाचे राजवटींत आसिरियन साम्राज्याची थापणूक जाली. ह्या साम्राज्याचे उदरगतीच्या काळांत (इ. स. प. ८८३-६२६) उर्रतू, आर्मेनिया, बॅबिलोनिया, सिरिया, ईजिप्त आनी इराणचो कांय वाठार, तांचे सत्तेखाला आशिल्लो. पूण रोखडेंच इराणी लोकांनी इराकचेर जैत मेळोवन इ. स. प. ५३९-५३८ वर्सा बॅबिलनाचेर आपली सत्ता हाडली. ताचेउपरांत आशिया मायनर सावन पंजाबमेरेन आनी दक्षिण रशियासावन ईजिप्त मेरेन पातळिल्ल्या ॲकिमेनिडी साम्राज्याच्या शेकातळा इराक चिड्डून उरलें. इ. स. प. चवथ्या शेंकड्यांत अलेक्झांडर द ग्रेट हाणें इराणी साम्राज्याक काबार करून (इ. स. प. ३३४-३२३) इराक आपल्या हाताखाला घेतलें. फुडें हांगा राजकी परिवर्तन बरेंच जालें. अलेक्झांडराफाटल्यान सेल्यूकस आनी ताचे वंशज, तांच्या उपरांत पार्थियन, रोमन आनी रोमनां फाटोफाट सॅसॅनिडी राजांनी इराकचेर शेक गाजयलो. अरबांनी ६३४ सावन इराकाचेर घुरयो घालूंक सुरवात केली. ६३७ त कादिसिया हांगाचे लडायेंत सॅसिनिडी राज्याची राजधानी टेसिफॉन अरबांच्या हातांत आयली. नाहावांद हांगा जाल्ल्या ते उपरांतच्या झुजांत सॅसिनिडी राजांक हार खावची पडली. ६४१ त अरबांनी मोसूल जिखलें. फुडलीं शंबर वर्सां कूफा आनी बसरा हीं इराकांतलीं शारां मुस्लीम राजवटीची बुन्याद जावन गेलीं. उस्मान खलीफाचो ६५६ वर्सा खून जाल्याउपरांत हांगा यादवी सुरू जाली. ६६१ त मुआविया खलीफा जालो आनी फुडल्या शंबर वर्सांमेरेन अरब साम्राज्याचें म्हत्व वाडलें. उमय्या खिलाफतीक विरोध करपाखातीर इराकांत बऱ्योच चळवळी जाल्यो. निमणी ही राजवट ७५० वर्सा काबार जावन अब्बासी खिलाफत सत्तेर आयली. अब्बासी खिलाफतीन इराकाचेर ७५४-१२५८ ह्या काळांत राज्य चलयलें. हारून अल् रशीद (७६६-८०९) हाचे राजवटींत तर उदरगत सामकी तेंगशेर पाविल्ली. गिन्यान, विज्ञान, कला, हांचें बगदाद हें केंद्र जावन थंय व्हड व्हड पंडीत, तत्त्वगिन्यानी, कवी, साहित्यीक, कलाकार आनी बुदवंत लोक आशिया आनी आफ्रिका खंडाच्या पयसुल्ल्या वाठारांतल्यान येवंक लागले. १२५८ चंगीजखानाचो नातू हलागूखान हाणें बगदादाचेर घुरी घालून अब्बासी सत्ता सोंपयली. उपरांत इराक हें मंगोल, तार्तर, इराणी, कुर्द आनी तुर्क ह्या लोकांच्या एकामेकांमदल्या झगड्यांचें केंद्र जालें. सफाविद आनी ऑटोमन तुर्क हांचेमदीं इराकाविशीं १५१४ त जें झूज चालू जाल्लें, तें १६३९ मेरेन चालू उरलें. इराकचेर ऑटोमन तुर्कांचें शासन १८३१ सावन सुरू जालें. तोमेरेनच्या मदल्या काळांत इराकाचेर हसन पाशा, अहमद पाशा आनी ताचे उपरांत मामलूक पाशांनी राज्य केलें. १८३१ उपरांत अस्तंतेच्या देशांतल्या यांत्रिकीकरणाचो मात्सो प्रभाव इराकाचेर दिसूंक लागलो. १८३६ त हांगाच्या न्हंयांनी वाफोरांची येरादारी चालू जाली. १८६१ त तारायंत्र पावलें. मिधात पाशा हाचे राजवटींत हांगा बरेच बदल घडले आनी विज्ञानाचे नदरेंतल्यान उदरगत जाली. ग्रेट ब्रिटन आनी ऑटोमन साम्राज्य हांचेमजगतीं नोव्हेंबर १९१४ त झूज पेटलें. ब्रिटीश सैन्यान बळाच्या नेटार बरेच वाठार जिखून घेतले. १९०८ तल्या यंग टर्क क्रांतीउपरांत इराकांत राश्ट्रवादाक नेट आयिल्लो. हांगाच्या थळाव्या फुडाऱ्यांनी हेर संघटनांकडल्यान पालव घेवन इराकाखातीर स्वायत्त राज्याची मागणी केली. एप्रिल १९२० त सॅन रेमोच्या अधिवेशनांतल्यान ब्रिटिशांनी इराकाचेर अप्रत्यक्ष सत्ता चलोवंक सुरवात केल्या उपरांत दक्षिण इराकांतल्या पंगडामदीं बंड सुरू जालें. ऑक्टोबर १९२० च्या हांगाचें लश्करी प्रशासन फाटीं घेतलें आनी ब्रिटिशांच्या सांगण्याप्रमाण वागपी आनी इराकांतल्या प्रशासनाक जबाबदार आसपी अरब राज्य परिशद अस्तित्वांत आयली. अमीर फैझल इब्न हुसेन हो हांगाचो सत्ताधीश जालो. इराकांतल्या अतिरेकी राश्ट्रवाद्यांची पर्वा करीनासतना १० ऑक्टोबर १९२२ दिसा इराक आनी ग्रेट ब्रिटन हांचे मजगतीं एक कबलात जाली. हे कबलातींतल्यान ब्रिटनाक तांच्या इराकांतल्या कांय हक्कांबाबत राखण मेळोवन दिली. ३ ऑक्टोबर १९३२ दिसा इराक एक स्वतंत्र देशाच्या नात्यान राश्ट्रसंघाचो सभासद जालो.

१९३२ उपरांत इराकाक कितल्याशाच अडचणींक आनी प्रस्नांक तोंड दिवचें पडलें. शिया आनी सुन्नी लोकांमदलीं झगडीं, कुर्द लोकांचे प्रस्न, कुर्दिस्तान ह्या स्वतंत्र राज्याची मागणी, आसिरियन हे अल्पसंख्य जमातीचे प्रस्न, अश्यो तरांतरांच्यो अडचणी मुखार आयल्यो. ऑक्टोबर १९३६ त जनरल बक्र सिदकी हाच्या फुडारपणाखाल लश्करान सत्तेंत बदल हाडलो. पूण हे नवे राजवटीनय सुदारणा घडोवन हाडल्यो नात. १९३७ त बक्र सिदकीचो खून जालो. ह्या काळांत तेलउद्येगाची उदरगत घडून येताली आनी ही गजाल इराकाचे नदरेन म्हत्वाची आशिल्ली. इराकी, मोसूल आनी बसरा ह्या तेल कंपन्यांक तेल उत्पादनाच्या बाबतींत सवलती दिल्यो. १९३७ त इराकान तुर्कस्तान, इराण आनी अफगाणिस्तान ह्या राश्ट्रांवांगडा सदबाद कबलात केली. हे कबलातींत, चारुय देशांच्या एकसारक्या प्रस्नांचेर आनी संबंदाचेर एकवटान विचार जांवचो अशें थारलें. १९३७ उपरांत ग्रेट ब्रिटन आनी इराक हांचे संबंद इबाडले आनी दोगांयमदीं गैरसमज उत्पन्न जाले. ह्या काळांत देशाचेर जर्मनीचो बरोच प्रभाव आशिल्लो. १९४१ त लश्करी अधिकाऱ्यांनी रशीद अली अल्-गैलानीच्या फुडारपणाखाल पर्यून एकदां सत्ता बदलली. गैलानी राजवटीन ब्रिटीश सैन्याक इराकांतल्यान वचपाची परवानगी न्हयकारली, ताका लागून दोनूय देशांमदीं झूज जालें आनी मे १९४१ त ब्रिटनान

बसरा आनी बगदाद आपल्या हातांत घेतले. हाचे उपरंत मात इराकान ब्रिटनाकडले संबंद सुदारले आनी दुसऱ्या म्हाझुजांत इश्ट राश्ट्रांखातीर ह्या देशान मोलादीक वावर केलो. १९४३ त इराकान जर्मनीआड झूज उबारलें आनी १९४५ त संयुक्त राश्ट्र सनदेचेर सय केली.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत पर्थून एकदां राजकी प्रस्न सुरू जाले. १९४८ जाल्ल्या इझ्राएल-अरब झुजांत इराकान आपलें सैन्य अरबांवटेन उबें केलें. १९५१-५२ त ज्यू लोकांनी व्हडा संख्येन इराक सोडलो. संयुक्त अरब गणराज्याप्रमाण इराक आनी जॉर्डन हांकां आपलेंय एक संघराज्य आसचें अशें दिसूंक लागलें आनी तांणी १४ फेब्रुवारी १९५८ दिसा ताची थापणूक केली. १९ मार्च १९५८ अम्मान आनी बगदाद ह्या दोनूय राजधानींनी संघाचें संविधान जाहीर केलें. पूण हें संघराज्य चड काळ तिगलें ना. १४ जुलय १९५८ दिसा लश्करी क्रांतींत राजा फैझल, राजकुंवर आनी पंतप्रधान जनरल नुरी अल्-सैद हांकां मारून उडोवन ब्रिगेडियर कासीम हाणें सत्ता आपलेकडेन घेतली आनी इराक गणराज्याची घोशणा केली. कासीन इराकचो पंतप्रधान जालो पूण ताचो आनी कर्नल आरेफ ह्या उपपंतप्रधानाचो अशे दोन पंगड सत्तेखातीर झुजूंक लागले. कासीमान आरेफाक उपपंतप्रधानपदावेल्यान काडून उडयलो आनी कम्युनिस्टांआडय कडक कारवाय केली. १९५९ त कासीमाचो खून करपाचो यत्न जालो. तेवटेन कुर्दांनी आपल्या स्वतंत्र राज्याचे मागणेचेर झूज उबारून मुस्ताफा बारझानीच्या फुडारपणाखाल उत्तर इराकांतलो बरोच वाठार आपले सत्तेखाला हाडलो. ८ फेब्रुवारी १९६३ दिसा जनरल कासीमाक मारून उडोवन बाथ पक्ष आनी लश्करी अधिकाऱ्यांनी कर्नल आरेफाक राश्ट्राध्यक्ष आनी ब्रिगेडियर महमद बक्र हाका पंतप्रधान केलो. १४ जुलय १९६४ दिसा कर्नल आरेफान इराकी अरब सोशलीस्ट युनियन ही संघटना तयार करून तातूंत सगळ्या राजकी पक्षांनी सामील जावचें अशें जाहीर केलें. ३२ म्हत्वाच्या उद्देगधंद्यांचें राश्ट्रीयकरण जालें. १३ एप्रिल १९६६ त आरेफाक अपघातांत मरण आयल्या उपरांत ताचो भाव मेजर जनरल अब्दुल रेहमान आरेफ अध्यक्ष जालो. इराक आनी इराण हांचे संबंद १९६६ सावन सुदारत गेले. १९६७ त इराकी अध्यक्ष आरेफान इराणाक भेट दिली. ह्याच वर्सा इराकान संयुक्त अमेरिकेचीं संस्थानां आनी ग्रेट ब्रिटन हांचेकडले संबंद पयस केले. देशांत दूरचित्रवाणी सेवा चालू जाली आनी ताहेर याह्या पंतप्रधान जालो. १७ जुलय १९६८ दिसा सत्तांतर जावन जनरल अहमद हसन अल् बक्र हो पयलींचो पंतप्रधान राश्ट्राध्यक्ष जालो. अब्दुल रेहमान आरेफ हो अज्ञातवासांत गेलो आनी ताहेराक बंदखणींत उडयलो. १९७० त इराण-इराक हांचेमदीं शीमेच्या प्रस्नाक लागून वाद चालू जालो. १९७३ त राश्ट्रीय पुरोगामी आघाडीची थापणूक जावन बाथ पक्ष आनी कम्युनिस्ट पक्ष हांच्या फुडारपणाखाल नवो सरकार सत्तेर आयलो. १९७८ त कम्युनिस्टांचेर आरोप जाल्ल्यान ते राश्ट्रीय आघाडींतल्यान भायर पडले. हिंसक वावर केल्याच्या आरोपावेल्यान २१ कम्युनिस्ट फुडाऱ्यांक मारून उडयले. १९७९ त राश्ट्राध्यक्ष बक्र हाणें भलायकेच्या कारणांक लागून सत्ता सोडली आनी सद्दाम हुसेन हाणें ताची सुवात घेतली. शट् अल अरब शीमेच्या प्रस्नावेल्यान इराण आनी इराक हांचे मजगतीं जाल्ल्या वादान एक नवें मोडण घेतलें आनी १९८० त सप्टेंबर म्हयन्यांत इराणान इराकाचेर घुरयो घालूंक सुरवात केली. ह्या झुजाचो परिणाम सगळ्या जगाचेर जालो. तेल वेपाराचे नदरेंतल्यान हें झूज सगळ्यांकूच लुकसाणाचें थारलें. दोनूय देशांचे ह्या झुजांत बरेंच लुकसाण जालें. मदल्या काळांत संयुक्त राश्ट्रसंघान दोनूय देशांमदीं बरेंपण हाडपाचे यत्न केले पूण ते फळादीक जाले नात. सद्याक दोनूय देशांनी झूजबंदी केल्या. ऑगस्ट १९९० त, इराकान शेजराक आशिल्ल्या कुवेत देशाचेर घुरी घालून ताका आपल्या शेकातळा हाडलो. हाचो विरोध करचेखातीर अमेरिकेच्या फुडारपणाखाल संवसारांतल्या बऱ्याच देशांनी इराकाआड झूज करपाची शिटकावणी दिल्या.

**राज्यवेवस्था:** २२ सप्टेंबर १९६८ दिसा मानून घेतिल्ल्या तात्पुरत्या संविधानाप्रमाण इराक हें लोकशाय गणराज्य राश्ट्र आसा. इस्लाम हो देशाचो धर्म आशिल्ल्यान संविधान आनी सगळे कायदे ताचेर आदारिल्ले आसात. धर्म, भाशण, मत हांची स्वतंत्रताय आसा. जात, धर्म वा भास हांचेमदीं भेदभाव नात. कुर्द लोकांक इराक देशाच्या एकचाराक बादा येवचीना अशे तरेन खासा हक्क दिल्यात. सगळ्यांत चड अधिकार क्रांतीकारी परिशदेकडेन आसात आनी राश्ट्रीय विधानसभेची वेंचणूक जायसर हीच परिशद सगळे कायदे थारायता. देशांत बाथ पक्ष, अरब सोशलीस्ट युनियन, कम्युनिस्ट पार्टी ऑफ इराक, कुर्दिश डेमोक्रेटिक पार्टी आनी बाराती पार्टी अशे पक्ष आसात, पूण हातूंतल्या निमण्या तीन पक्षांचेर बंदी आसा. प्रशासनाच्या सोंपेपणाखातीर देशाचे १८ प्रांत (लिवा) केल्यात. हांचेर प्रशासन चलोवचेखातीर मुहाफीजाची (गव्हर्नर)ची नेमणूक जाता. बगदाद हांगा देशांतलें सर्वोच्च न्यायालय आसा. डिसेंबर १९६८ सावन हेरगिरी करतल्याक मरणाची ख्यास्त दिवपाचो कायदो केला.

अठरा वर्सां पुराय केल्ल्या दरेकल्या तरनाट्याक लश्करी शिक्षण सक्तीचें आसा. राश्ट्राच्या राखणेदळांचेर बरोच पैसो खर्च जाता.

**अर्थीक स्थिती:** इराक हो शेतवडीचेर चड भर दिवपी देश आसा आनी वट्ट लोकसंख्येच्या ७५% लोक शेतवड आनी गोरवां पोसपाच्या उद्देगांत आसात. १९५० मेरेन कारखान्यांची वाड जावंक नासली, पूण ते उपरांत ती नेटान जावंक लागल्या.

आसिरिया आनी कुर्दिस्तान ह्या वाठारांनी बार्ली, गंव, फळफळावळ, तंबाखू हांचीं पिकां येतात. खाजूर आनी तांदळाचेंय पीक हांगा जाता. बार्ली हें हांगाचें मुखेल पीक. गंव-उत्पादन युफ्रेटीस आनी टायग्रिस न्हंयांच्या वयल्या वाठारांनीय जाता. मिलेट आनी मको हांचे पिकावळीकय सुरवात जाल्या. इराकी लोकांच्या जेवणांत खाजराचें प्रमाण बरेंच आसता. खाजरापसून 'आराक' नांवाचो सोरो तयार करतात. ताच्यो बियो गोरवांक खावड म्हूण उपेगी पडटात. कापूस बऱ्याच वाठारांनी जाता. पूण खार जाल्ली जमीन आनी तोळांच्यो घुरयो हे दोन मुखेल प्रस्न कापसाची पिकावळ चड जावंक दिनात. इराकच्या ईशान्य वाठारांत द्राक्षांचें उत्पादन जाता. गोरवां आनी मेंढरां पोसपाचो धंदोय हांगा बरोच चलता.

उत्तर इराकांत क्रोमाइट, तांबें, शिशें, लोखण, जस्त हांच्यो खणी आसात. हे भायर विंगडविंगड वाठारांनी चुनखडी, जिप्सम, मीठ, डोलोमाइट, बेतूम, फॉस्फेट आनी गंधक हांचीय सांठवण सांपडटा.

पेट्रोलियम हें हांगाचें सगळ्यांत म्हत्वाचें खनिज जावन आसा. देशाच्या ईशान्य, उत्तर आनी दक्षिण वाठारांत तें मेळटा. किर्कूक, खानकीन आनी बगदाद हांगा तेल शुध्द करपाचे कारखाने आसात. पेट्रोलियमाच्या उत्पादनाक लागून इराकाक जगाचे बाजारपेठेंत बरेंच म्हत्व आसा. तेलउद्देग सोडल्यार इराकांत व्हडले उद्देगधंदे चडशे नात. बगदादांत वीजनिर्मणी, उदकापुरवण, विटो तयार करपाचो उद्देग, शिमीट कारखाने अशा प्रकारचेच व्हड उद्देग आसात. ल्हान उद्देगांचे प्रमाण मात बरेंच चड आसा. अन्न, सिगरेट, पांयतणां, रसायनां, फर्निचर, हेर धातू हांचें बऱ्याच प्रमाणांत उत्पादन जाता. मोसूल हांगा कपड्याचे आनी साकरेचे कारखाने आसात. हालींच्या काळांत ल्हान सान कारखान्यांची उबारणी व्हडा प्रमाणांत जायत चल्ल्या. रशियाच्या पालवानय हांगा बरेचशे कारखाने उबारल्यात.

तेलाची निर्यात जगांतल्या बऱ्याच देशांनी जाता. खाजराचे निर्यातींत इराकाची सुवात सगळ्यांत वयर आसा. लोकर, चामडें, कापूस हांचीय निर्यात आशिया, युरोप आनी आफ्रिका खंडांतल्या बऱ्याच देशांनी जाता. इंग्लंड, अस्तंत जर्मनी, रशिया, अमेरिका, कॅनडा, जपान ह्या देशांकडेन चडशे आयातीचे वेव्हार जातात. आयातींत यंत्रां, साकर, च्या, वाहनां, लोखण हांचो आस्पाव जाता. 'सँट्रल बँक ऑफ इराक' ही हांगाची मुखेल बँक. हे बँकेवरवीं चडशे वेव्हार चलतात; तेभायर हेर बऱ्योच बँको हांगा आसात. पेट्रोलियमाक लागून मेळपी परकी चलनाक लागून आनी करांक

लागून हांगाच्या चलनी नाण्याक, म्हळ्यार इराकी दिनाराक बरेंच मोल आयलां.

**येरादारी आनी संचारणः** इराकांत १९८१ मेरेन २५,२६५ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. हातूंतले ६५% पक्के डांबरी आशिल्ले. हांगाचे म्हत्वाचे मार्ग म्हळ्यार बगदाद-किर्कूक-मोसूल (४८५ किमी.); बगदाद-शरकात-मोसूल (४३३ किमी.); किर्कूक-सुलेमानिया (११६ किमी.); बगदाद-अमराह-बसरा (५९८ किमी.); बगदाद-हिल्ला-बसरा (६२२ किमी.); बगदाद-हेल-मदीना (१,१०० किमी.). बऱ्याच जाग्यांचेर नवे रस्ते आनी पूल बांदपाचें काम चालू आसा. १९८१ मेरेन हांगाच्या रस्त्यांवेल्यान २,२९,५३० पॅसेंजर मोटारगाडयो आनी १,५२,७६८ ट्रक आनी बसी धांवताल्यो. रेल्वेमार्गाचींय वेवस्था बरी आसा. रेल्वे प्रशासन मंडळ हवाई मार्गाचेरुय नियंत्रण दवरता. बगदाद, मोसूल, बसरा हांगा मुखेल विमानतळ आसात. बसरा आनी उमक्कास्त्र हीं शारां थंयच्या वेपारी बंदरांक लागून नामनेक पावल्यांत. १९८५ मेरेन हांगा ६ खबरापत्रां आशिल्लीं. रेडिओ, दूरचित्रवाणी आनी दूरध्वनी ह्यो सेवा बऱ्यापैकीं आसात.

**लोक आनी समाजजीणः** इराकी लोकसंख्येंत, जाती आनी संस्कृताय हांचे नदरेंतल्यान म्हत्वाचे फरक अरफ आनी कुर्द हांचेमदीं आसात. कुर्द हे इराणी लोकांक जातीचे नदरेन चड लागींचे. तांचो राबीतो चडसो उत्तर आनी उदेंत इराकांत आसा. कुर्दांक मीडांचे वंशज अशें मानतात. हे भायर देशांत तुर्कमेन, मँडिअन, आर्मेनियन लोक आसात. ज्यू लोक आतां ना जाल्यात. मँडिअन हे चांदीची कलाकुसर करपी म्हूण नामनेक पावल्यात. तुर्कमेन हे सादारणपणान शासकीय सेवेंत आसात; जाल्यार आर्मेनियन चडशे वेवसायांत वा यंत्रज्ञ, तंत्रज्ञ म्हूण काम करतात.

वट्ट अरब लोकसंख्येच्या ७५% अरब आनी वट्ट कुर्दांमदले ५०% ते ६०% लोक शिया पंथाचे आसात. सुनी अल्पसंख्य आसुनलेगीत तांचो राजकारणाचेर बरोच प्रभाव आसा. हे भायर नेस्टोरियन, जेकोबाईट, खाल्डिअन, सिरीयन कॅथोलिक आनी ग्रेगोरिअन आर्मेनियन अशे किरिस्तांवांचे बरेच पंगड आसात. मुस्लीम सणांभायर ६ जानेवारी हो सैन्य दीस, १ मे हो कामगार दीस, १४ आनी १७ जुलय हे अनुक्रमान १९५८ आनी १९६८ वर्सा घडून आयिल्ल्या, क्रांत्यांचे वर्सदीस म्हूण पाळटात. हांगाचें भलायकेमान सामकें सकयल्या पांवड्यार आसा. रोग आनी धाम हांकांलागून बरेच लोक मरतात.

गांवगिऱ्या वाठारांतलीं चडशीं घरां मातयेचीं आसात. उत्तर इराकांत घर बांदपांत फातराचो थोडोभोव उपेग जाता. हांगाच्या वस्तुसंग्रहालयांनी पोरनी परंपरा आशिल्लीं शस्त्रां आनी पूर्विल्ले संस्कृतायेचे अवशेश हांची बरेपैकीं जतनाय केल्या. हांगा सामके थळावे खासा अशे खेळांप्रकार नात. फुटबॉलचो खेळ कांय प्रमाणांत हांगाचे लोक खेळटात. शिकार आनी मळांवेल्या खेळांची ह्या लोकांक आवड आसा.

**शिक्षणः** इराकांत १९२० उपरांत शिक्षणाचो प्रसार जालो. १९७६ सावन मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें जालां. ६ ते १२ वर्सांमेरेन मुळावें शिक्षण आसता. शिक्षण अरबी भाशेंतल्यान दितात. उत्तरेवटेनच्या कांय प्रांतांनी कुर्दीश भाशेंतल्यानय शिक्षण दितात. हांगा ६ विश्वविद्यालयां आसात (१९७७). हातूंतलीं तीन बगदाद शारांत आसात. इराकांतले बरेच विद्यार्थी विंगडविंगड देशांनी शिक्षण घेवपाखातीर वचून रावल्यात. साक्षरतेचें प्रमाण १९८४ मेरेन ४५.९% आशिल्लें. भायल्या देशांच्यो बऱ्योच शिक्षण संस्थाय हांगा आसात. पेट्रोलियम कंपन्यांकडल्यान शिक्षणाच्या मळार पैशांचे नदरेंतल्यान बरेच पालव मेळटा. नृत्य, कला, नाट्य हांचें शिक्षण दिवपापासत इन्स्टिट्यूट ऑफ फायन आर्टस् ही संस्था वावुरता.

**भाशा आनी साहित्यः** अरबी ही शासकीय भाशा जावन आसा. कुर्दी भाशा आनी तिची बोली कुर्द, येझिदी आनी शॉबेक लोक उलयतात. सिरीयन लोक सिरीयाक भाशा उलयतात. ही भाशा ल्हव ल्हव धर्मीक भाशा जावन गेल्या. लूर लोक पर्शियन भाशा वापरतात. जाल्यार तुर्कमेन तुर्की भाशेचो वेव्हारांत उपेग करतात. अरबी भाशा उलोवपी ७९%, कुर्दी १६%, फार्सी ३%, आनी तुर्की २% आसात.

मध्ययुगांत इस्लामी संस्कृतीचें कुळार अशी बगदादची नामना आशिल्ली. त्या काळांत बरेच शास्त्रज्ञ आनी तत्त्वगिन्यानी जावन गेले. अल् गझाली (सुमार १०५८-११११) हो म्हान अरबी तत्त्वगिन्यानी आशिल्लो. अल् किंदी होय एक विचारवंत हांगा जावन गेलो. इराकांतले आर्विल्ल्या काळांतले दोन नामनेचे कवी म्हळ्यार अल्-झहावी आनी अल्- रसाफी. नसिक अल्-मलैकाह हे कवयित्रीक साहित्याच्या मळार बरोच मान आसा. धू अन-नून अयूब आनी अब्द अल्-मलीक नूरी हे कादंबरीकार, जाल्यार अन्वर शौल आनी अब्द अल्-मजीद लुफ्ती हे कथाकार बरेच नामनेक पावल्यात.

**म्हत्वाचीं थळां:** बगदाद ही राजधानी, बसरा, मोसूल, करबला, किर्कूक आनी शाइइस्लाम हीं मुखेल शारां जावन आसात. बसरा हें थंयच्या बंदराक लागून जाल्यार किर्कूक आनी मोसूल तेलउत्पादनाक लागून म्हत्वाचीं थारल्यांत. शाइ इस्लाम, करबला आनी नजफ हीं पवित्र आनी धर्मीक शारां अशें मानतात. सुमेरियन, बॅबिलोनियन, आसिरीयन, खाल्डियन, पर्शियन ह्या संस्कृतायांचे अवशेश आशिल्ल्यान जगांतल्या भोंवडेकारांखातीर हो देश आकर्शणाचो विशय जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**इराणः** अस्तंत आशियांतलें एक इस्लामी राश्ट्र. क्षेत्रफळ १६,४८,००० चौ. किमी. लोकसंख्या ४,५८,९५,००० (१९८६). शीमेची लांबाय ४,४१८ किमी. विस्तार २५° उत्तर ते ४०° उत्तर आनी ४४° उदेंत ते ६३° उदेंत. इराणचे उत्तरेवटेन रशिया आनी कॅस्पियन दर्या, उदेंतेक अफगाणिस्तान आनी पाकिस्तान, दक्षिणेक इराणचें आनी ओमानचें आखात आनी अस्तंतेक इराक आनी तुर्कस्थान हे देश आसात. इराणच्या आखातांतले हॉर्मझ, लारक, किश्म, हेंगाम, फोरुर क्वैस, हेंडोराबी, शेखसार, शेख शोए ब, खार्क, खार्कू अशे बरेचशे जुंवे इराणचे मालकेचे आसात. बाहरीनच्या जुंव्यांचेरय इराण आपलो हक्क सांगता. १९३५ सावन ह्या देशाक इराण हें नांव पडलें, ताचे पयलीं ताका पर्शिया ह्या नांवान वळखताले.

**भूंयवर्णनः** भूंयरचणुकेचे नदरेंतल्यान इराणाचे सात वांटे जातात; १. *आझरबैजानः* ह्या खंडांत चडशीं देगणां आसात. ह्या देगणांतल्यान व्हांवत गेल्लें उदक फुडें उर्मिया ह्या उथळ आनी खाऱ्या तळ्याक वचून मेळटा. उरिल्लें उदक आरास, लिटल झॅब आनी किझील उझुन ह्या न्हंयांतल्यान वता. एका काळांत हो वाठार म्हळ्यार झुजामळाचें केंद्र आशिल्लो. ह्या वाठारांत कुह-ए-साबालान हो ज्वालामुखीचो दोंगर आसा (उंचाय ४,५७२ मी.). आझरबैजानांतले शिंयाळे सामके थंड आनी हिम पडपी; जाल्यार गीम उश्ण आनी सुके आसतात. हांगाच्या पठारांचेर बरीच तणाचीं मळां आशिल्ल्यान हेडग्या पंगडांचो राबितो सांपडटा. कूर्द आनी शाहसेवान हे ते हेडगे पंगड जावन आसात. उर्मिया तळ्याच्या भोंवतणचे वाठार सपाट मळांचे आनी दाट लोकवस्तीचे आसात. ताब्रीझ हें शार उर्मियाचे चिखलादेगेसावन ५६ किमी. पयस आसा. तें इराणांतलें दुसरें व्हडलें शार, बाजारपेठ आनी येरादारीचें केंद्र आसा.

२. *झॅग्रॉस दोंगरः* आझरबैजानचे शीमेसावन बंदर आब्बासचे ईशान्येमेरेन हो १,४०७ किमी. लांब पातळ्ळा. ताची रुंदाय ३२१ किमी. आसा. उत्तरेवटेन हो दोंगर चडसो ऊंच नासलो, तरी देझ कोनें आनी शीराझचे ईशान्येमेरेनच्या वाठारांत ताची उंचाय ४,२६७ मी. आसा. फुडें हो दोंगर दक्षिण फार्स आनी लुरिस्तानमेरेन पावला. शिंयादिसांनी पडपी हिम आनी हांगा आशिल्ले कितलेशेच उदकाझरे हांकांलागून हांगाच्या न्हंयांक बाराय म्हयने भरपूर उदक आसता. बगदाद-तेहरान हांच्यामदल्या केरमानशाह मार्गाचेर आनी बूशीर-शीराझ मार्गाचेर म्हत्वाचीं शारां आसात. खोरामाबादांतल्यान एक बरो रस्तो गेला; ट्रान्स-इराणियन रेल्वेमार्ग देझ सावन गेला. नैर्ऋत्य झॅग्रॉसच्या लागीं तेल सांपडलां. तेभायर लाली (कारुन न्हंयवेलो वाठार) आनी गख सारान




हांच्या मदल्याय वाठारांनी तेल उत्पादन जाता.

३. *माकारानः* हो दर्यादिगेचो आनी कांय जाग्यांचेर दोंगरी वाठार आसा. दोंगरी वाठाराचो एक फांटो बंदर अब्बासचे उदेंतेक उत्तर-दक्षिण गेला. थंयसावन फुडें तो उदेंतेवटेन मोडण घालून नैर्ऋत्य पाकिस्तानांत वता. हो वाठार सामको सुको आसा, आनी हांगा वनस्पत सामकीच उणी. दर्यादिगेवेलो मळांचो वाठार फकत शेतवडीखातीर उपेगी पडटा. नुस्तेमारी हो हांगाचो मुखेल वेवसाय. भितरल्या वाठारांनी कांय जाग्यांचेर खाजराचें पीक येता.

४. *उत्तर शीम वाठारः* हातूंत एल्बर्झ पर्वत आनी खोरासान शीमेकडल्यो पर्वतांच्यो वळी येतात. हातूंतल्या एल्बर्झ पर्वताची कितलींशींच तेमकां ५,६०० मी. मेरेन उंचायेचीं आसात. कॅस्पियनच्या मळांचो वाठार सगळेवटेन ८० किमी. रुंद आसा आनी चिखलाच्या वाठारांनी तो ऊंच जायत गेला. हांगाच्या उश्ण हवामानांत तांदूळ, तंबाखू, कापूस, लिंबू हांचें पीक येता. खोरासान दोंगरावळींत कुह-इ-आलादाघ आनी कुह-इ-बिनालूद (३,४१३ मी.) तशेंच कोपेतदा (३,०४८ मी.) हीं नांव घेवपासारकीं दोंगरा तेमकां आसात. मेशेद हें शार हांगा आसा. तें धर्मीक थळ अशें मानतात.

५. *मध्य पठारः* हो उण्या उदकाचो वाठार. कूम शाराचे अस्तंतेकडल्यान येझ्द आनी केरमान हांकां फाटीं उडोवन सरहाद-ए-बालांत घुसपी पर्वतांचे वळीक मध्य इराणी पर्वताची वळ अशें म्हणटात. तब्बास-केरमान आनी कुहिस्तान-सरहाद ह्योय दोंगरावळी हांगा आसात. दश्त-इ-लूत आनी दश्त-इ-कावीर हीं दोन वाळवंटां हांगा आसात. तांणी ९८,४२० चौ. किमी. ची सुवात आडायल्या. हो वाठार उसू पडिल्लो आनी मनीस वस्ती नाशिल्लो आसा. दश्त-इ-लूत हें वाळवंट फातरांनी भरलां. वायव्य वाठारांत तेहरान, काझ्वीन, कूम, माहालात, इस्फाहान, नीशापूर ह्या सारकीं व्हड वाळवंटांतलीं शारां आसात.

६. *उदेंत शीमेवटेनचो वाठारः* इराणची उदेंत शीम देशाच्या उसू पडिल्ल्या वाठारांमदीं येता. हांगाय मनशांचो राबितो ना आनी पावस सामकोच उणो पडटा. तापमान सामकेंच कडक आनी वारें नेटान व्हांवपी आसता. जूनांतल्यान उत्तरेवटेनच्यान, सामकें नेटाचें वारें १२० दीस व्हांवत आसता. तें वारें जमीन इबाडता आनी रेवेंचीं मळां तयार करता. सीस्तानचो सकयलो वाठार हामून-इ-साबेरी ह्या गोड्या उदकाच्या तळ्यान आडायला.

७. *खुझिस्तान मळः* हें मळ इराणी आखाताचे उत्तरेवटेन झॅग्रोस पर्वत आनी इराकची शीम हांचेमदीं पातळ्ळां. हांगा पूर्विल्ली ईलम संस्कृताय आशिल्ली. ह्या वाठाराक पर्शियन साम्राज्यां आनी इस्लाम हांच्या संदर्भांत बरेंच म्हत्व आसा. पयलीं सपाट आनी उसू पडिल्ल्या ह्या वाठाराक पेट्रोलियमच्या खणींक लागून म्हत्व आयलां.

**हवामानः** इराणचें हवामान खर शियांचें आनी तितल्याच खर गीमाचें आसता. गीम बरोच तेंप उरपी, उश्ण आनी दर्यादिगो सोडल्यार हेरकडेन सामको सुको आसता. उत्तरेवटेनच्या वाऱ्यांचें प्रमाण बरेंच आसा. तेहरान (१,२१९ मी.) चें तापमान जुलय म्हयन्यांत उण्यांत उणें २९° से. आनी चडांतचड ४३ ते ४६° से. इतलें आसता. पूण राती सामक्यो थंड आसतात. समुद्र थरासावन १,८३० ते २,१३५ मी. उंचायेच्या वाठारांत गीम त्यामानान सोसपासारको आसता. आवाझ शारांत जुलय आनी ऑगस्ट म्हयन्यांत तापमान चडांतचड ४९° से. जाल्यार उण्यांत उणें ३८° से. आसता. इराणच्या आखातावेलीं बंदरां थोडींभोव थंड आसतात. पठारांचे सुवातेचेर शरद ऋतू बरो आसता, पूण उत्तरेवटेन आनी अस्तंतेवटेन उसरां येवपी वसंत ऋतू थंड आसता. शियाळ्यांत मध्य आशियांतल्यान थंड आनी सुकें वारें येता. आझरबैजान हो सगळ्यांत चड शियाचो वाठार. जानेवारी म्हयन्यांत ताब्रीझ (१,४०० मी.) हांगाचें तापमान १.७° से. आसता, पूण बरेंच फावट तें ०° सें. च्या सकयल वता.

उश्ण हवामानाचो वाठार सोडल्यार हेरकडेन सगळ्याक दाट धुकें पडटा. शियाळ्यांत भूंयमध्यसागराच्या वाठारांतल्यानय वारें येता पूण हे वारें चड नेटान येना. उत्तर आनी अस्तंत इराणांत व्हड प्रमाणांत हिम पडटा, जाल्यार दक्षिणेवटेन पावसाळी वादळां जातात. दक्षिण इराणांत शियाळ्यांत पावस पडटा जाल्यार उत्तर आनी अस्तंतेकडल्या उंचेल्या वाठारांनी तो एप्रिल-मे म्हयन्यांत येता. ह्या वाठारांतली शेतवड पावसाचेर चलता हांगा सादारण ३० सेंमी., जाल्यार झॅग्रॉसच्या कांय वाठारांनी ५०-७५ सेंमी. पावस पडटा. एल्बर्झ पर्वताच्या कॅस्पियनवटेनचे देंवतेचेर १०० सेंमी. परस चड पावस पडटा. खोरासान दोंगरांनी ताचे प्रमाण ५० सेंमी. इतलेंच आसता. ग्रेट कावीर, लूत, सीस्तान ह्या वाळवंटांच्या वाठारांनी पावस १० सेंमी. परस उणो पडटा. केन्नाच्या केन्नाय पावस पडप हें चडशा वाठारांचें खाशेलेपण आसा. तेहरान हांगा १० ते ५० सेंमी. मेरेन जाल्यार बूशीर हांगा ५ ते ६५ सेंमी. असो कशायकसो पावस पडटा. वर्सांतल्यान सुमार स म्हयने मळब कुपांविरयत आसता. ऋतुंमदीं अचकीत बदल जातात. एल्बर्झ आनी झॅग्रॉस दोंगरा वळींचीं तेंमकां सदांच बर्फान भरिल्लीं आसतात. थंय हिमन्हंयोय सांपडटात. बर्फ वितळपाक मार्च-एप्रिलांत सुरवात जाता.

**वनस्पतः** पावस आनी हवामानाच्या विंगडपणाक लागून वनस्पतय विंगड विंगड तरांची आसा. हांगा १०,००० परस चड वनस्पतीच्यो जाती आसात. कॅस्पियन देगेवेल्या हिर्केनियन रानांत चड पावस पडिल्ल्यान थंय ऊंच पानां झडपी रुख, कॉकेशियन, विंगनट आनी कॅस्पियन हनी, लोकस्ट ह्या सारके रुख सांपडटात. एल्बर्झचे उदेंतेवटेनचे देंवतेर अक्रोड, ओक, मॅपल, बीच, ॲश, एल्म, हॉर्नबीम, सायप्रस, सेडर, बॉक्सवूड आनी मिसोसा हे रुख आनी पठारांचेर विलो, अक्रोड, हॉल पॉप्लर, तुती हीं झाडां आसात. ट्यूलिप, गुलाब, ग्लॅडीओला, बेलफ्लावर, जिरेनियम, प्रिमरोज, व्हायोलेट हीं फुलझाडां जातात. स्टेप वाठारांत सेल्विया, कुशिनिया, फेनेल ह्या सारकी ल्हान उंचायेची वनस्पत, उणे उंचायेच्या वाठारांत वर्मवुड; वाळवंटांच्या वाठारांत कॅमल थॉर्न; दक्षिणेवटेनच्या उश्ण वाठारांत कोनार, काहूर, ॲकेशिया आनी बलुचिस्तानांत ताडाचे रुख आसात. खाजराचीं झाडां हांगा बऱ्याच प्रमाणांत आसात आनी तें ह्या वाठाराचें खाशेलेपण जावन आसा.

**मोनजातः** सस्तन जनावरांच्यो शंबरांपरस चड जाती (तातूंतल्यो १८ थळाव्यो) इराणांत सांपडटात. शींव हें इराणचें राश्ट्रीय ध्वजावेलें चिन्न, पूण आतां थंय शींव खुबूच उण्या प्रमाणांत मेळटात. कॅस्पियन रानांत थोडेभोव वाग आसात; पूण बिबटे वाग आनी रानमांजरां बऱ्याच प्रमाणांत आसात. चित्ते, कोले, कोलसुणीं, मातयेकोराचीं वांस्वेलां, रानवटी दुकरां, जर्बोआ, मुंगसां, साळ; दोंगरी वाठारांनी रानमेंढरां, आयबेक्स; स्टेप वाठारांनी आनी वाळवंटांच्या वाठारांनी पर्शियन मेरवां आनी रानगाडवां सांपडटात. कॅस्पियनच्या सकयल्या वाठारांत सुकण्यांच्यो ३२० परस चड जाती दिसून येतात. कवडे, ग्रावझ अशीं शिकारेचीं सुकणीं आसात. कॅस्पियन आनी सीस्तान वाठारांत हंस, हांयसां जाल्यार दक्षिणेवटेनच्या तळ्यादेगेर आनी इराणी आखातांत पाणकोळी आनी हंस व्हडा संख्येन आसात. विंगड विंगड प्रकारचीं घुघमां, ससाणे, गिदां, डोमकावळे, मॅगपाय, ऑरिओल, जे, रॉबिन, पारवे, बुझर्ड, केस्ट्रेल अशीं सुकणीं आसात. गरुडांची संख्याय बरीच आसा. एल्बर्सांतल्यान येवपी न्हंयांच्या उदकांत छब, बार्बेल, ट्राउट, कॅटफिश जाल्यार कॅस्पियनांत स्टर्जन आनी सॅमन आनी दक्षिणेवटेनच्या न्हंयांमदीं विंगड विंगड तरांचें कार्प नुस्तें सांपडटा. ग्रीक कांसव, शेड्डे, सोरोप आनी व्हायपरय बरेच मेळटात.

**इतिहासः** पूर्विल्ल्या काळांत इराणची संस्कृताय बरीच गिरेस्त आशिल्ली. सातव्या शेंकड्यांत इराणी साम्राज्य इस्लामी सत्तेखाला वचचे पयलीं हांगा बरीच राजघराणीं जावन गेलीं. इस्लाम आयल्या उपरांत इराणी संस्कृताय नश्ट जाली. ६३३ वर्सा अरब लोकांनी सॅसॅनिडी राजवटीखाल आशिल्लें इराक भूंयभरवण करुन रोखडीच इराणाचेर घुरी घाली आनी तोय वाठार आपले सत्तेखाला हाडलो. मुसलमानी सत्तेच्या प्रभावान इराणचो पूर्विल्लो धर्म, भाशा आनी लिपी नश्ट जावन तांची सुवात इस्लामी धर्म, अरबी भाशा आनी लिपी हांणी घेतली.

मध्ययुगांत म्हळ्यार सुमार ६६१ ते १२५८ च्या काळांत इराण खिलाफत सत्तेखाला आशिल्लें, ११८५ च्या उपरांत खिलाफत सत्तेचो शेक फकत नांवापुरतोच उरलो. पयलीं उमय्या खिलाफत (६६१-७५०) आनी मागीर अब्बासी खिलाफतीचें (७५०-१२५८) हांगा राज्य चलतालें. अब्बासी खिलाफतीच्या काळांत इराणान शियापंथ आपणायलो. अब्बासी वंशजान दमास्कस हांगासावन आपली राजधानी बगदाद ह्या इराकांतल्या शारांत हालयल्या उपरांत खलीफाची इराणाचेर जाय तशी नदर उरूंक शकलीना.

इराणाचेर भायल्या पंगडांनीय बऱ्योच घुरयो घाल्यो. १०५५ त सेल्जूक तुर्क, मलिक शाह हाच्या फुडारपणाखाल हांगा घुसले आनी तांणी बुवैहीद वंशाची सत्ता काबार केली. मलिक शाहच्या मरणाउपरांत (१०९२) सेल्जूक राज्याचे कुडके जाले. ताचे उपरांत मोंगल हांगा पावले; आनी चंगीजखानाचो नातू हुलागूखान हाणें १२५८ त अब्बासी खिलाफत पुरायपणान काबार करून सत्ता आपल्या हातांत घेतली. ताणें इल्‌खनिद ह्या स्वतंत्र वंशाची थापणूक केली. हुलागूखानाच्या वंशजांनी इस्लाम धर्म आपणावन चीनाचें राजकी आनी धर्मीक फुडारपण न्हयकारलें. पूण फुडल्या वंशजांनी बरेतरेन राज्य न चलयल्ल्यान १३३५ त मंगोल राज्याचे कुडके जावन ल्हान सान राज्यां अस्तित्वांत आयलीं. तैमूरलंग हो स्वताक चंगीजखानाचो वंशज मानतालो. ताणें इराण आपले सत्तेखाला हाडलो पूण ताच्या मरणाउपरांत पर्थून सगळी सत्ता रानवटी पंगडांच्या हातांत गेली.

तुर्की आनी मंगोल जरी रानवटी आसले तरी इस्लामच्या प्रभावाक लागून तांणी कलेक पालव दिलो. तुर्की राजवटीच्या शेवटाक इराणांत झगडीं-झुजां पेटलीं आनी तातूंतल्यान सफाविद ह्या मूळ इराणी वंशाकडेन सत्ता आयली. सफाविद घराण्याची थापणूक करपी इस्माईल हो स्वताक खलीफाचो वंशज समजतालो. ताणें शाह ही पदवी आपल्या नांवाक जोडली आनी शिया पंथ हो इराणाचो धर्म अशी घोशणा केली. ताच्या फुडें ताचो वंशज अब्बास (१५५८-१६२९) हाणें बऱ्योच सुदारणा केल्यो. पोर्तुगेज हांगा आपली वसणूक बांदूक सोदताले, तांकां ताणें धांवडावन घाले. ऑटोमन राजांनी ताच्या तेंपार इराणचेर घुरयो घाल्यो. पूण ते जैतिवंत जावंक शकले नात. अब्बासाउपरांत आयिल्ले राजा दुर्बळ आशिल्ले. तांकां रशियन आनी अफगाण लोकांच्यो इराणावेल्यो घुरयो थांबोवप शक्य जालें ना. १७२२ त अफगाणांच्या एका ल्हानशा पंगडान इस्फाहान राजधानीचेर जैत मेळयलें आनी शाह हुसेन ह्या निमण्या सफाविद राजाक सत्तेवेल्यान भायर उडयलो. १७२९ त नादिरखान हाणें सफाविद घराण्याचें नांव पर्थून वयर काडपा खातीर अफगाण आनी रशियन हांकां इराणातल्यान धांवडावन घाले. कांय वर्सां उपरांत १७३६ त ताणें नादिरशाह ही पदवी घेतली. १७३७ त ताणें हिंदुस्तानचेर घुरी घालून बरीच लूट मेळयली. तातूंत नामनेचें मयूर शिंवासन आशिल्लें. ताची राजवट लूट, हिंसा ह्या सारक्या गजालींक लागून गाजली. ताकालागून १७४७ त झांड वंशान (१७५०-१७९४) ताच्या आड उठाव केलो. हातूंत नादिरशाह सोंपलो, आनी इराणची सगळी सुत्रां झांड वंशाकडेन गेलीं. तांचो मूळपुरुस करीमखान हाणें राजधानी शीराझ हांगा हाडली आनी त्या शाराची सोबीतकाय वाडयली. कांय तेंपान झांड आनी कजार ह्या वंशामदीं झुजां पेटलीं. कजार वंश जैतिवंत जालो. ह्या जैतांत आगा मुहंमदखान कजार ह्या तुर्की ह्या धूर्त हिजड्याचो म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. ताणें कजार ह्या वंशाची थापणूक केली. ह्या १२५ वर्सांच्या काळांत इराण खंयच्याच अस्तंतेकडल्या राश्ट्राची वसाहत नाशिल्लो, तरीपूण गुलिस्तान (१८१३) आनी तुर्कमानचाई (१८२८) ह्या कबलातींक लागून ताका कॉकेशियासारको वाठार होगडावचो पडलो. हेरात हो पिकाळ वाठार अफगाणांनी घेतलो, जाल्यार तेलाच्या सोदाक

लागून रशिया आनी ब्रिटन हांच्यामदीं सर्त लागली. पयल्या म्हाझुजांत इराण तटस्थ रावलो. तरीपूण रशिया आनी तुर्कस्तान हांणी इराणचे उत्तरेखटेनचे वाठार आपले सत्तेखाला घेतले. १९१९ चे पारिस कबलातींत इराणान ह्या वाठारांची मागणी केली, पूण इराणाक न्याय मेळ्ळो ना. इराण फकत राश्ट्रसंघाचो सदस्य जालो. फुडें कांय तेंपान रशियाकडेन कबलात जावन इराणाचो वाठार तांकां पर्थून मेळ्ळो. इराणांत मजलिसची थापणूक जावन संविधानावरवीं सत्ता चलूंक लागली आनी रेझाशाह हो पेहलवी घराण्यांतलो फुडारी १९२५ त हांगा वेंचून आयलो. पयल्या म्हाझुजांत तटस्थ राविल्ल्या इराणाक दुसऱ्या म्हाझुजांत तटस्थ रावप शक्य जालें ना. जर्मन सैन्य रशियेचो वाठार जिखून घेवन इराणावटेन फुडें सरतालें. ब्रिटन आनी रशिया हांच्यावांगडा रेझाशाह इश्टागतीची कबलात करूंक शकलोना, तेन्ना १९४१ त, ताणें सत्ता सोडली. ताचो पूत मुहम्मद हो राजा जालो. ९ सप्टेंबर १९४३ दिसा इराणान जर्मनीआड झुजाची घोशणा केली. इश्ट राश्ट्रांनी इराणाक पालव दिवपाचें कबूल केलें. फुडें इराण आनी रशिया हांच्यामदीं तेल सांठवणीवेल्यान दुस्मानकाय जाली. १९४६ त मजलिसान इराण-रशिया कबलात रद्द थारायली आनी इराण स्वतंत्र राश्ट्र आशिल्ल्याचें जाहीर केलें. १९५१ त मजलिसान सगळ्या तेल सांठवणीचें राश्ट्रीयकरण केलें. १९६१ सावन मुहम्मद शाहान हांगा जमनीविशींचे कायदे सुदारले आनी देशांत हेर सुदारणा केल्यो. ह्या आपल्या सुदारणांक ताणें धवी क्रांती (White Revolution) अशें नांव दिलें. १९७८-७९ त मुहम्मद शाह आड उठाव जावंक सुरवात जाली. देशांतल्या वाडट्या अर्थीक प्रस्नांचेर उपाय मेळनाशिल्ल्यान शाहान हांगा सप्टेंबर १९७८ त लश्करी राजवटीची घोशणा केली. १९६४ त इराकांत लिपून राविल्ल्या रुहोल्ला खोमेनीन उपरांत फ्रांसाचो आलाशिरो घेतिल्लो. ताणें शाहाआड लोकांक एकठांय जावचे म्हूण यत्न केले. खोमेनीन 'आयातोल्ला' (देवाची कुरु) हें नांव घेवन बंडाचें फुडारपण केलें आनी शाहाक सत्तेवेल्यान सकयल देंवयलो. शाहाचेर पुरायपणान अमेरिकेचो प्रभाव आशिल्लो. ताका १६ जानेवारी १९७९ दिसा इराण सोडून पळून वचचें पडलें. उपरांत २७ जुलय १९८० दिसा ताका ईजिप्तांत मरण आयलें. अशे तरेन मुहम्मद रेझा पेहलवीची राजवट सोंपली. खोमेनीन अमेरिकेक धडो शिकोवचेखातीर तांच्या इराणांतल्या वकीलातींतल्या ६६ नागरिकांक ओलीस दवरले (१९७९-८१). १९८० वर्सा इराण-इराक झूज पेटलें. ऑगस्ट १९८८ त झूजबंदी जावपाची परिस्थिती तयार जाली. पूण दोनूय देशांमदली दुस्मानकाय पुरायपणान काबार जावंक ना. खोमेनीक जून १९८९ त मरण आयलें.

**राज्यवेवस्थाः** १९७९ च्या संविधानाप्रमाण इराण हें एक इस्लामी प्रजासत्ताक राश्ट्र आसात. राश्ट्राचो अधिकृत मुखेली राश्ट्रपती जावन आसा. मंत्रीमंडळ आनी विधीमंडळ (मजलिस) ताच्या हाताखाला आसता. इस्लामचीं तत्त्वां राजकी, समाजीक आनी अर्थीक मळांचेर लागून जातात. पर्शियन, तुर्क, कुर्द, अरब, बलुची, तुर्कमान आनी हेरांक समान हक्क आसात. राश्ट्रपतीची वेंचणूक दर चार वर्सांनी जाता. मजलिसांत २७० सभासद आसात आनी तेय चार वर्सांखातीर वेंचून येतात. ज्यू, झोओराश्ट्रीयन (पारशी) आनी किरिस्तांवांक प्रतिनिधीत्व आसता. पूण बहाईंक तें ना. 'वेलायात फगीह' म्हळ्यार धर्मीक फुडाऱ्याक अनधिकृतपणान सगळे हक्क आसतात. तोच राश्ट्राचो खरो मुखेली थारता. इराणच्या संविधानाचे १०७ व्या वळेरेवरवीं आयातोल्ला खोमेनीक मरसर हें मुखेलीपण फाव जाल्लें. हांगाचें विधीमंडळ एकाच घराचें आसा. थळाव्या राज्यकारभाराच्या सोपेपणाक लागून देशाचे २३ 'ओस्तान' म्हळ्यार प्रांत केल्यात. प्रांतांच्या विधीमंडळाक अंजुमन अशें म्हण्टात. ह्या प्रांताचे फुडें आनीक ल्हान सात वांटे जाल्यात. न्यायवेवस्थेंतय सर्वोच्च न्यायालयासावन गांवच्या न्यायालयामेरेन विंगड विंगड पांवडे आसात. राखणेवेवस्था राश्ट्रीय राखणे मंत्रीमंडळाकडेन आसता, जाल्यार थळावो कायदो आनी सुवेवस्था सांबाळपाची जापसालदारकी घरखात्याची आसता. कायदो सामको खर आसा. जरी मरणाची ख्यास्त सामक्या उण्या प्रमाणांत आसली तरी राजकी गुन्यांवकारांक कडक ख्यास्त भोगची पडटा. धर्मीक चालीरीतींचेर टिका करतल्यांकय ख्यास्त भोगची पडटा.

**अर्थीक स्थितीः** शेतवड हो इराणचो मुखेल वेवसाय जावन आसा. देशाच्या विंगडविंगड हवामानाच्या वाठारांनी तरेकवार पिकां जातात. जमीनसुदारणा, यंत्रांचो वापर, रसायनीक सारें आनी हवामानाचो सांगात ह्या गजालींक लागून हालींच्या वर्सांनी शेतांतलें उत्पादन बरेंच वाडलां. आझरबैजानांतलो रेझाईया वाठार, क्यूशांन-मेशेद मळांचो वाठार (खोरासान प्रांत) तशेंच इस्फाहान, केरमानशाह, फार्स आनी केरमान जिल्हो हांगा गंवाचें पीक चड येता. बार्ली, तांदूळ, कापूस, बीट, तंबाखू हींय मुखेल पिकां जावन आसात. भाजीपालो आनी विंगड विंगड फळांचेंय उत्पादन ह्या देशांत बरेंच जाता. मनुका, बदाम, जर्दाळू ह्या सारक्या फळांची निर्यात जाता. मेंढरां आनी बोकडां पोसपाक बरेंच म्हत्व आसा. गायो पोसपाचें प्रमाण हालीं बरेंच वाडलां. १९७९ च्या क्रांतीपयलीं अमेरिकेच्या पालवान जनावरांच्यो संकरित जाती तयार केल्ल्यो. गाडवां, उंट आनी घोड्यांकय अर्थीक नदरेंतल्यान म्हत्व आसा. इराणच्या आखातांत आनी कॅस्पियन दर्याचे दक्षिण देगेचेर चडसो नुस्तेमारी उद्येग चलता. सुक्या नुस्त्याची ह्या देशांतल्यान बरीच निर्यात जाता. हांगाच्या रानांक लागून देशाक बरेंच उत्पन्न मेळटा. खनिजांची सांठवणय बरीच आसा. शेंदूर, गंधक, मीठ, तांबें, क्रोमायट, शिशें, लोखण हांच्यो व्हड सांठवणी ह्या देशांत आसात. तेलउत्पादन हो सगळ्यांत म्हत्वाचो उद्येग थारला. तेलाचे निर्यातीक लागून राश्ट्रीय उत्पादनांत ७७% निर्यात उत्पादनाची भर पडटा. आबादान, तेहरान, केरमानशाह, शिराझ ह्यो चार मुखेल तेलाच्यो खणी आसात. आबादान तेल खण ही जगांतली सगळ्यांत चड तेल निर्यात करपी खण जावन आसा. सैमीक वायूचें उत्पादनय म्हत्वाचें थारलां. नॅशनल इरानीयन गॅस कंपनी वायूउत्पादनांचेर नियंत्रण चलयता. ऑपेक-म्हळ्यार तेल निर्यात करपी देशांच्या संघटनेचो इराण वांगडी जावन आसा. १९७५ त जगांतल्या वट्ट तेल उत्पादनापैकीं १०.६ % इराणांत जातालें. तंत्रीक उद्येगधंदे हांगा बऱ्याच नेटान वाडत आसात. तेहरान हें उद्येगधंद्याचे मुखेल केंद्र आसा. ५०% कारखाने ह्या वाठारांत आसात. इस्फाहान आनी ताब्रीझ हांगाय कारखान्यांचे प्रमाण दिसान दीस वाडत आसात. कपडो, अन्न उत्पादन आनी बांदावळीच्यो वस्तू हांच्या उत्पादनाक म्हत्व आसा. इस्फाहान हांगा मोटारगाडयांचे कारखाने, पोलाद आनी ॲल्युमिनीयमचे कारखाने आसात. १९७९ आदीं हांगा अमेरिकेच्या पालवान बरेच कारखाने उबारिल्ले. सद्या भायल्या हेर देशांच्या पालवान तंत्रगिन्यानाचेर आदारिल्ले कारखाने उबारपाचें काम चालू आसा. ल्हानसान उद्येगांमदीं कंवची, तेल, शाबू, कागद, कार्डबोर्ड हांच्या उत्पादना वांगडा मातयेचीं आयदनां, चांदी आनी लांकडांचेर कोंरातप, साखर, शिमीट, हांच्या उद्येगांक म्हत्व आसा. यंत्रां, रसायनां ह्या सारक्या वस्तींची अस्तंत जर्मनी, जपान, ब्रिटन, इटली ह्या देशांतल्यान आयात जाता, जाल्यार मुखेल निर्यात तेलाची जाता. निर्यातीचे वेव्हार चडशे जपान, इटली, स्पेन, फ्रांस, अस्तंत जर्मनी हांचेकडेन जातात. रियाल हें हांगाचें चलन.

**येरादारी आनी संचारणः** १९८३ मेरेन इराणांत ६७,७१० मैल (१,०८,९०७ किमी.) लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. हातूंतले ३१% डांबरी आशिल्ले. १९८१ मेरेन १५,३२,२६९ प्रवासी गाडयो जाल्यार ३,१३,००६ वेपारी गाडयो आशिल्ल्यो. रेल्वेमार्गांची लांबाय १९८४-८५ त ४,५६७ किमी. आशिल्ली. रेल्वेमार्गावेल्यान बरीच म्हत्वाची येरादारी जाता. कारुन हीच न्हंय उदकांतल्यान येरादारी करपाखातीर उपेगी पडटा. खुर्रमशार हें इराणच्या आखातावेलें मुखेल बंदर आसा. बंदर-इ-शहापूर हें दुसरें बंदर थंयच आसा. आबादान हें तेलाचें बंदर म्हूण नांवाजिल्लें आसा. लिंगे जास्क आनी चाहबहार हीं हेर म्हत्वाचीं बंदरां आसात. तेहरान आनी आबादान हांगा मुखेल विमानतळ आसात. इराण

नॅशनल एअरलायन्स ही विमानकंपनी देशाभितरल्या आनी आंतरराश्ट्रीय हवाई मार्गाचेर येरादारी करता. तेहरान आनी आबादान हांचेखेरीज शिराझ, इस्फाहान आनी बंदर अब्बास हांगां आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात.

ह्या देशांत १९८४ मेरेन वट्ट १४ खबरापत्रां आशिल्लीं. केहान, एतेलात, केहान इंटरनॅशनल हीं तांतलीं मुखेल. दूरचित्रवाणी आनी रेडिओ हांचेर पुरायपणान सरकाराचें नियंत्रण आसता.

**लोक आनी समाजजीणः** इ. स. प. दुसऱ्या सहस्त्रकांत आर्य लोकांनी इराणांत राबितो केलो. आतांचे इराणी आनी पर्शियन हे तांचेच वंशज अशें मानतात. हे लोक पर्शियन (फार्सी) भाशा उलयतात. हांची लोकसंख्या वट्ट लोकसंख्येच्या अर्द्यापरस मात्शी उणी आसा. इराणी हे मध्यमउंचायेचे, काळ्या केंसाचे, काळ्या दोळ्यांचे आसतात. हांगाचीं बायलां गोरीं, नाजूक आनी शिरवंत आसतात. तेभायर इराणांत तुर्क आनी अरब पंगडांचे लोक आसात. बलूची, कूर्द, लूर हे ल्हानसान टोळयो करून रावतात. अल्पसंख्यांक लोकांमदीं आर्मेनियन, आसिरीयन, जॉर्जियन, द्रविडी, ब्रहूई आनी मंगोलवंशीय अफगाण हजारा हे आसात. केरमानशाहचे दक्षिणेवटेन आशिल्ल्या पिशकूह आनी पोश्तकूह ह्या दोंगरी वाठारांत रावपी लूर, कुर्दांभशेन टोळयो करून आसात आनी ते मेंढरां, गोरवां पोसतात. बाख्तियारी लोकांची जमात झॅग्रॉस वाठारांत आसा आनी 'हफ्टलांग' आनी 'चाहार लांग' अशे तांचे दोन पंगड आसात. अशो तरांतरांच्यो जमाती आनी टोळयो हांचो राबितो ह्या देशांत आसा. ह्या टोळयांक स्वतंत्रतायेचो अभिमान बरोच आसा आनी ताका लागून त्यो पुरायपणान इराणी समाजाकडेन एकरुप जावंक पाविल्ल्यो नात. शिया इस्लाम हो राश्ट्राचो अधिकृत धर्म आसा आनी ताका 'इश्ना अशरिया' ह्या नांवान वळखतात. वट्ट लोकसंख्या १९८६ मेरेन ४,५८,९५,००० आशिल्ली. हातूंतले ४५.०% पर्शियन, १६% आझरबैजानी, ९.२ कूर्द, २.२% लूरी, १.९% बख्तियारी, १.९ % बलुची, १.६% अरब आनी हेर २३.२ % आसात. धर्माचे नदरेंतल्यान ९८% लोक मुस्लीम, हातूंतले ९३% शिया जाल्यार ५% सुन्नी आनी हेर २% आसात. समाजांत बरेच वर्ग आसात, पूण जातिवेवस्था ना. विंगडविंगड चालीरिती, धर्मीक श्रध्दा हांगा पळोवंक मेळटात. १९३० मेरेन टोळयांतल्या बायलांची सुवात हेर समाजांतल्या बायलांपरस ऊंच आशिल्ली. रेझाशहा पेहलवीच्या काळांत बायलांची बुरखोपद्दत रद्द करपाचे यत्न जाले आनी बायलांक अदीक मेकळीक दिवपाचें धोरण फुडें आयलें. १९६३ त बायलांक मतदानाचो हक्क मेळ्ळो. चडशे इराणी लोक घरांत आयिल्ल्या सोयऱ्याचो भोवमान करपी अशी तांची नामना आसा. हे लोक बरेच भावनाविवश, व्यक्तिनिश्ठ आनी सुसंस्कृत आसात. आधुनिकीकरणाक लागून आनी शाहाच्या अमेरिकेवटेनच्या धोरणांक लागून ह्या लोकांचो भेस आनी चालीरीती हातूंत बरेच बदल जाले. इस्लामीकरणाच्या खोमेनीचे घोशणेउपरांत लोकांक पर्थून पोरन्या चालीरितींकडेन व्हरपाचे यत्न जाले.

इराणी लोकांचे खाण जेवणाचे प्रकार अस्तंत आशियांत नांवाजिल्ले आसात. शाकाहारी आनी मांसाहारी जेवणाचे तरेकवार प्रकार हांगाच्या लोकांमदीं सामके प्रिय आसात.

चित्रकलेच्या मळार इराणान जगाक बरीच व्हड भेट दिल्या. पूर्विल्ल्या आनी इस्लामच्या काळासावन चित्रकलेच्या मळार मशिदी आनी हेर बांदकामांनी उंचल्या पांवड्यावेली अभिरुची पळोवंक मेळटा. विंगडविंगड प्रकारचे गालिचे आनी हेर विणिल्ले कपडे ही पर्शियन कलेची एक कुरू धारल्या. आयदनांचेर भांगर आनी रुप्याचो लेप काडपाची कला हांगा बरीच उदरगतीक पावल्या. 'झुरखानेह' म्हळ्यार व्यायामघरां हांगा सगळेकडेन दिश्टी पडटात. कुस्तीचो खेळ लोकांमदीं बरोच प्रिय आसा. हो खेळ इराणचो राश्ट्रीय खेळ जावन आसा. तेभायर खेळांच्या मळार टेनिस, सॉकर, पेंवप, स्कीईंग, स्केटिंग, बास्केटबॉल, पोलो हे खेळ पळोवंक मेळटात. आंतरराश्ट्रीय आनी ऑलिंपिक खेळांनी इराणान आपलो पांवडो दाखोवन दिला. १९७४ त तेहरान हांगा आशियाई खेळां सर्त जाल्ली.

**शिक्षणः** इराणांत राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण ३७% आसा आनी ह्या मळार ताचो जगांत ९३ वो क्रमांक लागता. ८ ते १४ वर्सांमेरेनचे शिक्षण फुकट, सक्तीचें आनी एकसारकें आसता. भौशीक माध्यमिक शाळांनीय सामकी उणी फी घेवन शिक्षण दितात. सप्टेंबर ते जून मेरेन शिक्षणीक वर्स आसता. पर्शियन भाशेवांगडा इंग्लीश आनी फ्रेंच भाशेंतल्यानय शिक्षण दितात. इराणांत आठ विश्वविद्यालयां आसात. तातूंतलीं तीन तेहरान हांगा तर हेर शिराझ, ताब्रीझ, अहवाझ, मेशेद आनी इस्फाहान हांगा आसात. हांगाचे बरेच विद्यार्थी भायल्या देशांनी शिक्षण घेवपाखातीर वचून रावल्यात. बरेचशे विद्यार्थी शिक्षण सोंपल्या उपरांत इराणांत पर्थून वचूंक तयार नासतात. चडशे विद्यार्थी अमेरिका आनी अस्तंतेवटेंतल्या बऱ्याच देशांनी आसात. आशियांतल्या देशांनीय उण्या प्रमाणांत इराणी विद्यार्थी शिक्षण घेतात.

**भाशा आनी साहित्यः** इराणांत पर्शियन (फार्सी), कुर्दी, लुरी, बलुची आनी अरबी ह्यो भाशा उलयतात. पर्शियन ही एक इंडोयुरोपियन पंगडाची भाशा जावन आसा आनी ती मध्य आशियाई स्टेप वाठारांतल्यान आयिल्ल्या घुरयो घालपी लोकांनी हांगा हाडली. इराणान इस्लाम धर्म आपणायल्या उपरांत हे भाशेंत बरींच अरबी उतरां भरसलीं आनी ताचे उपरांत अरबी लिपींतल्यान ही भाशा बरोवंक सुरवात जाली. आयजमेरेन ही भाशा अरबी लिपींतल्यानच बरयतात. पर्शियन भाशेच्यो कांय बोली देशाच्या कांय वाठारांनी वापरतात. कुर्दी भाशा पर्शियन भाशेपरस वेगळी आसली तरी तीय इंडो-युरोपियन भाशा कुटुंबातलीच अशें मानतात. गोरानी ही एक मुखेल बोली आनी ईशान्येवटेन मुक्री कुर्द ही एक दुसरी बोली उपेगांत हाडटात. लूरी ही लुरिस्तान प्रांताची भाशा आनी ती चड करून बख्तियारी आनी हेर कांय टोळयो उलयतात. लूरीचें पोरने पर्शियन भाशेकडेन बरेंच लागींपण आसा. आझरबैजानांत अॅझेरी ही तुर्की भाशेची एक उपभाशा आसा आनी ती तुर्की अॅनेतोलियन भाशेक बरीच लागींची आसा. बलुची ही आर्यभाशा हेर भासांमदीं भरसून गेल्या. खुझिस्तान प्रांतांतल्यो अरबी टोळयो, इराणी आखाताच्या दर्यादिगेवेल्यो आनी मकरानांतल्यो टोळयो, तशेंच फार्स प्रांतांतल्या खामेश टोळयांतले कांय जाण अरबी भाशा वापरतात.

इराणी साहित्यांत उपाट साहित्यनिर्मणी जाल्या. फिर्दौसी (१८३२-१८२०) ह्या म्हान कवीचें 'शाहनामा' हें महाकाव्य नामनेक पावला. ताची लोकप्रियता आयजमेरेन तिगून आसा. उमर खय्यामच्यो 'रुबाया' आयजूय जगांतल्या कितल्याशाच लोकांक लागीं ओडटात. अल् गझाली, शेख फरीद-उद्-दीन अत्तार हे इकराव्या आनी बाराव्या शेंकड्यांतले कवी आनी विचारवंत इराणांत जावन गेले. विसाव्या शेंकड्यांत सादिक हिदायत ह्या लेखकान, अदीब-ए-पिशावरी; अदीब-उल्-ममालिक; इरज मिर्झा ह्या कवींनी बरीच नामना मेळयल्या. क्रांतीकारी कवींमदीं इश्की, लाहूती हे नामनेचे आसात. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत मोहम्मद हुसेन शहरियार, गुलशन फेरेयेइन, ताव्हालाली आनी सईद यासिमी ह्या कवींनी जगभर नामना मेळयली. साहित्याचेर अस्तंतेवटेनच्या साहित्यीक घडणुकांचो प्रभाव स्पश्टपणान दिसून येता.

**म्हत्वाचीं थळांः** तेहरान ही राजधानी प्रशासकीय, उद्येगीक, वेपार केंद्र आनी बुदवंतांचें शार अशें मानतात. हांगाचे राजवाडे, मयूर शिंवासन, व्हड मळां, गुलिस्तान चौक हे पळोवपासारके आसात. इस्फाहान हें सोबीत इतिहासीक शार, बऱ्यो शेंदऱ्यो, गालिचे, रुप्याचे अलंकार हांकां लागून नामनेक पावलां. शीरांझ हें वेपारी शार, बऱ्यांतलो बरो सोरो, संत्रां, व्हड जार्दीनां आनी कवीवृत्तीचे लोक हाका लागून गाजिल्ले आसा. ताब्रीझ हें थंड हवेचें शार. आबादान हें तेल उद्येगाचें व्हड केंद्र आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**इरावती-१ :** (इरावडी). ब्रह्मदेशांतली सगळ्यांत म्हत्वाची आनी

आग्नेय आशियांतल्या व्हड न्हंयांमदली एक. तिची वट्ट लांबाय २००० किमी. आसा. ब्रह्मदेशाचे उत्तर शिमेसावन दक्षिण शिमेमेरेन ती व्हांवता. उत्तर शिमेलागसार उगम जावन व्हांवपी नमाई न्हंय (लांबाय सुमार ५१० किमी.) आनी माली न्हंय (लांबाय सुमार ३२० किमी.) हांचो संगम म्यिचीना शारा लागसार जाता. ते उपरांत जी न्हंय व्हांवता तिका 'इरावती' म्हूण वळखतात.

नमाई आनी माली न्हंयच्या संगमाकडेन हे न्हंयची रुंदाय १०० मी. आसा. भामो शाराउपरांत ती अस्तंतेवटेन व्हांवता. इतलेमेरेनचो तिचो व्हांवपाचो मार्ग अशीर आसा. भामो शार ते इरावती न्हंय दर्याक मेळमेरेनचो मार्ग उदका येरादारीखाती उपेगी आसा. ही न्हंय अस्तंतेवटेन घुंवतकच आनीक एक अशीर देगण सुरू जाता, पूण तातूंतल्यानय उदक-येरादारी त्रासाविरयत चलता. मंडालेचे उत्तर दिकेक २५० किमी. अंतराचेर ही न्हंय दक्षिणेवटेन घुंवता. थंय ती परती अशीर पात्रांतल्यान व्हांवता. हांगा न्हंयचें पात्र १०० मी. रुंद आसा. हांगा हुंवारावेळार लेगीत उदक येरादारी चलता. श्वेगू लागीं हे न्हंयचो दोंगरी वाठार सोपून सपाट वाठार सुरू जाता. पक्कोकू शारालागसार इरावतीक तिची मुखेल उपन्हंय 'चिंदविन' मेळटा. हांगा अयस-पयस पातळिल्लो वाठार आकारान त्रिकोनी आसून, थंयची जमीन पिकाळ आसा. बंगालच्या उपसागराक मेळचे आदीं हे न्हंयक जायते फांटे फुट्टात. हातूंत णव मुखेल आसात.

इरावतीच्या त्रिकोनी वाठाराची (त्रिभूज प्रदेशाची) संवसारांत बरो भात पिकोवपी वाठार म्हूण नामना आसा. इरावती न्हंयचे मदीं आशिल्ल्या भागांत पेट्रोलियम सांपडटा. हे न्हंयचे देगेक जायते पठारी वाठार आसात. भामो, मंडाले, पकोक्कू, प्रोम आनी राजधानी रंगून हीं मुखेल बंदरां हे न्हंयच्या देगांचेर वसल्यांत. रंगून बंदरांतल्यान तांदूळ, पेत्रोल, सागर आनी हेर उपेगी जिनसांची हाड-व्हर चलता.

**हेर म्हायती**: पोपा पर्वतावेल्या ज्वालामुखीच्या उद्रेकाक लागून उत्तर इरावती न्हंयचे आसमंतांतली जमीन हाल्ली. तेवरवीं सितांग न्हंय, इरावती न्हंयेसावन वेगळी जाली आसूंये अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**इरावती- २:** सद्याचे रावी न्हंयचें आदलें नांव. निरूक्तांत, ऋग्वेदांतल्या परुष्णी न्हंयक इरावती अशें म्हळां (९.२६). पुराणांत हें उत्तर विंगड विंगड संदर्भांत येता. वामन पुराणांत (७९.७) इरावतीक 'सर्वकल्मषनाशिनी' म्हळां. कालिकापुराणांत तिचें मूळ इरा नांवाच्या तळ्यांत आसा अशें सांगलां (२४.१४०). पतंजलीन आपल्या महाभाश्यांत तिचो उल्लेख केला. इरावतीक ऐरावताची आवय मानतात. कश्यप ऋषीक भद्रमदा नांवाचे बायलेपसून चली जाली. तिचें नांव इरावती हेंच आसलें. पांडवांचो नातू परिक्षीत हाचे बायलेचें नांवय 'इरावती' हेंच आसलें.

- कों. वि. सं. मं.

**इलिअड:** एक अभिजात ग्रीक महाकाव्य. हें काव्य होमर हाणें बरयलां अशें सांगतात. इ.स.प. आठव्या शेंकड्याच्या शेवटाक हें काव्य रचिल्लें आसूंक जाय. इ.स.प. दुसऱ्या शेंकड्यांत ॲरिस्टार्कस हे अलेक्झांड्रिया हांगासल्या ग्रंथालयाच्या ग्रंथपालान ह्या महाकाव्याची चोवीस खंडांत वांटणी केल्ली, अशें म्हण्टात.

इलिअडाचो अर्थ 'ट्रॉयावेलें काव्य' असो जाता (ट्रॉयचें ग्रीक नांव इलियॅम्न). ह्या महाकाव्याचो विशय ट्रोजनाचें ग्रीकावांगडा जाल्लें झूज. हातूंत अकिलीस ह्या ग्रीक म्हाझुजाऱ्याक आयिल्लो राग आनी ताचो झुजाचेर जाल्लो परिणाम चितारला. तशें पळोवंक गेल्यार हें अकिलीसाचें क्रोधकाव्य थारता.

अकिलीसाची क्रोधकाणी अशी आसा: ग्रीकांचो सरसेनापती ॲगामॅम्नोन हो अपोलोपूजक हाची चली क्रिझेईस हिका झुजांत उबारुन हाडटा. तें पळोवन तिचो बापूय तिका परती धाडपाची विनवणी करता. पूण ॲगमॅम्नोन तिका धाडिना. तेन्ना अपोलोच्या रागान ग्रीक सैन्यांत प्लेगाची धाम येता. तें पळोवन मन मारून ॲगमॅम्नोन क्रिझेईसाक परतो धाडटा. पूण तिचे बदला अकिलीसाकडेन आशिल्ली गुलाम बायल ब्रिझेईस, हिका आपल्या ताब्यांत घेतलो अशें सांगता. हो आपलो अपमान समजून रागान अकिलीस झुजांतल्यान भायर सरता. हाचो परिणाम ग्रीक सैन्याक भोगचो पडटा. ट्रॉयचो राजकुंवर हेक्टर हाच्या फुडारपणाखाला झुजपी ट्रोजन सैन्य ग्रीक सैन्याक नाकापुरो करून सोडटा.

जैत आपल्याकच मेळटलें हे आशेन झुजपी ग्रीक सैन्याक ट्रोजनांचो रेंवडो पडटा. दर्या देगेर अडकून पडिल्ल्या ग्रीकांच्या नौदलाचेर उज्याचो पावस उडोवन ट्रोजन तांचो नाश करूंक लागता. तेन्ना सुडान पेटिल्लो अकिलीस हो देखाव पळेत रावता. ॲगमेम्नॉन अकिलीसाक परतो झुजांत हाडपाचो यत्न करता, पूण ताका येस येना. निमाणे पट्रोक्लस हो अकिलीसाचो इश्ट अकिलीसाचें चिलखत घालून झुजांत वांटो घेवपाची ताची मान्यताय घेता आनी ट्रोजन सैन्याक धांवडावन घालता, पूण झुजांत हॅक्टर ताका मारता. आपल्या इश्टाक मारिल्ल्याचो सूड घेवचे पासत अकिलीस झुजांत येता आनी हॅक्टराक मारता. ह्या सगळ्या कथाभागाचो काळ एकावन्न दिसांचो आसता.

जगांतल्या व्हड अशा महाकाव्यांत 'इलिअडाचो' आस्पाव जाता. ग्रीक साहित्य इतिहासाचे सुर्वेक 'ओडिसी' ह्या महाकाव्या वांगडा 'इलिअडाचो' आस्पाव जातालो. ह्या महाकाव्यांत झुजाचीं वर्णनां आनी भासाभासांचें कथन खूब फावट आयलां. ह्या काव्यावरवीं होमरचें झूजशास्त्र आनी वक्तृत्वशास्त्राविशीं गिन्यान दिश्टी पडटा. तशेंच ताचे निवेदन शैलींत कथानक शीघ्र गतीन पूण परिणामकारकपणान फुडें व्हरपाची तांक दिसून येता. महाकाव्यांतलें व्यक्तिचित्रण करतना होमर मुळाव्या अशा मानवी भावनांक हात घालता. ह्या अभिजात ग्रीक महाकाव्याचो आदर्श फुडल्या काळांतल्या व्हर्जिल सारक्या लॅटीन महाकवींनीय घेतला.

- कों. वि. सं. मं.

**इसवी सन:** संवसारांतल्या सगळ्या राश्ट्रांनी मानून घेतिल्ली आंतरराश्ट्रीय कालगणना. जेजू क्रिस्ताच्या जल्मासावन ही कालगणना मानतात.

ही कालगणना केन्ना सुरू जाली हाचेविशीं जाणकारांमदीं विंगडविंगड मतां आसात. हे कालगणनेचो सोद इटली देशांतलो धर्मगुरू डायोनिसियस एक्झीगस हाणें सव्या शतमानांत म्हळयार सुमार क्रिस्त जल्माच्या ५३० वर्सा उपरांत लायलो. कांय जाण ही सुरवात १ जानेवारी ७५४ ए. यू. सी. **(Anno Urbis Conditae)** सावन म्हळयार इटलीचे लोक रोम शार बांदपाक लागले त्याकाळासावन मानतात. कांय जाण जेजू क्रिस्ताच्या जल्मासावन म्हळयार इसवी सन पयलीं २५ डिसेंबर सावन ही कालगणना सुरू जाली अशें मानतात. कालगणना करपी शून्य इसवी सन प्रमाण मानिनात. ते हो काळ मेजपाखातीर इसवी सन पयलीं-१ वर्स, वा इसवी सन उपरांत- १ वर्स, हाची १ जानेवारी ही तारीख वर्स मेजपाखातीर सुर्वेक घेवन थंयसावन फुडलें क्रिस्ती वर्स मेजतात.

इसवी सन वर्स सुर्याचेर आदारिल्लें आसा, देखून ताका सौर वर्स म्हण्टात. हें सौर वर्स ३६५ दीस ५ वरां, ४८ मिनटां आनी ४५.३७ सेकंद येदें आसता. सादारणपणान वर्स ३६५ दिसांचें आसता, अशें मानिल्ल्यान नव्या वर्साचो आरंभ ५ वरां, ४८ मिनटां ४५.३७ सेकंद फाटल्यान पडटा. हो काळ भरून काडपाखातीर फेब्रुवारीच्या म्हयन्यांत दर चार वर्सांनी एक दीस वाडयतात. हो दीस ज्या वर्सा येता त्या वर्साक लीप वर्स म्हण्टात. फेब्रुवारीच्या म्हयन्यांत एक दीस वाडयिल्ल्यान नव्या वर्साचो आरंभ पर्यून ४५ मिनटां फुडें वता. देखून दर १०० वर्सांनी फेब्रुवारीच्या म्हयन्यांत २९ तारीख धरिनात. वयल्या नेमाक पाळो दिवन लेगीत दर १०० वर्सांनी ६ वरां १५ मिनटांची (६१/४) तूट येता. ती भरून काडपाक दर ४०० वर्सांनी फेब्रुवारी म्हयन्यांत २९ दीस धरतात. हे सगळे हिशोब १५८२ वर्सा केले. त्यावेळार सादारण मानिल्लो वर्साचो

आरंभ आनी सूक्ष्म गणितावरवीं काडिल्लो वर्साचो आरंभ हातूंत १० दिसांचो फरक आयलो. हो फरक भरून काडपाखातीर त्या काळावेलो क्रिस्ती धर्म फुडारी तेरावो पोप ग्रेगरी हाणें ऑक्टोबरची ५ तारीख, १५ तारीख मानची, असो हुकूम काडलो. हे घडणुकेक लागून इसवी सनाचें मेजप धा दिसांनी मुखार गेलें. ह्या नव्या मेजपाक 'न्यू स्टाइल' अशें म्हणूंक लागले. (पोरन्या मेजपाक 'ओल्ड स्टाइल' म्हण्टाले).

इसवी सनाचें नवें मेजप इटली, स्पेन, पोर्तुगाल, हॉलंड ह्या देशांनी आपणायलें, पूण इंग्लंडान मानलें ना. पोरने पध्दतींत १७०० वर्सा २९ दीस धरिल्ले. नवे पध्दतींत ते धरूंक नात. ते खातीर पोरनी पध्दत आनीक एक दीस फाटल्यान पडली. हो फरक जेन्ना इंग्लंडच्या विद्वानांक जाणवलो, तेन्ना इंग्लंडच्या पार्लमेंटान १७५२ वर्सा एक कायदो पास करून सप्टेंबर म्हयन्याची ३ तारीख, १४ तारीख केली. अशेतरेन ११ दिसांचो फरक भरून काडलो. १७५२ वर्सामेरेन इंग्लंडांत वर्साचो आरंभ २५ मार्च मानताले. उपरांत थंय १ जानेवारी हो वर्साचो आरंभ मानपाक लागले. हाका लागून वर्स खंयचें चलता हाचेविशीं गोंदळ जावंचो न्हय म्हूण १ जानेवारी ते २५ मार्च मेरेनच्या तारखांक पोरन्या आनी नव्या दोनूय तारखांचो उल्लेख करताले. देखीकः २८ फेब्रुवारी १७२५ ही तारीख १७२४-२५ फेब्रुवारी २८ अशी बरयताले. इंग्लीश वर्सांत येवपी बारा म्हयने आनी तांचो वट्ट काळ असो आसा.

जानेवारी-३१, फेब्रुवारी-२८ (लीप वर्सांत-२९), मार्च-३१, एप्रिल-३०, मे-३१, जून-३०, जुलय-३१, ऑगस्ट-३१, सप्टेंबर-३०, ऑक्टोबर-३१, नोव्हेंबर-३०, डिसेंबर-३१.

आयच्या काळांत, पुरय संवसारांत वयली कालगणना वापरिल्ली दिसता. संवसारांतले धर्म आनी समाज आपल्या धर्म वा समाजापुरती धर्मीक तत्त्वांचेर आदारिल्ली एक कालगणना पध्दत मानतात. तिचो उपेग फकत धर्मीक आनी समाजीक कार्यापासत जाता. अशें आसून लेगीत संवसारांत सादारण वेव्हारांत इसवी सन कालगणनेचो वापर जाता. देखीकः हिंदू धर्मांत, लग्न, मूंज, पूजा उत्सव सारक्या धर्मीक आनी संस्कृतीक कार्यांची कळोवणी करतना हिंदू पंचागांतल्या तिथ, वार आनी शकावांगडा इसवी सनाप्रमाण दीस, म्हयनो आनी वर्स दिवपाची चाल आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**इसाप:** (इ.स.प. सवो शेंकडो). एक ग्रीक नीतिकथाकार. हाचेविशीं चड म्हायती मेळना. इसाप हो सॅमॉस वाठारांतलो गुलाम आशिल्लो आनी ताच्या धनयाचें नांव इआडमॉन आशिल्लें अशें म्हण्टात.

इसापान आपल्यो काणयो केन्नाच बरोवन काडल्योनात अशें म्हण्टात. प्लेटोच्या मताप्रमाण सॉक्रेटिसान आपले बंदखणींतले जीणेचीं निमणीं वरां इसापाच्या कांय कथांक पद्यरुप दिवंक घालयलीं. ॲरिस्टॉटल ह्या तत्त्ववेत्त्याच्या एका विधानावेल्यान इसापाच्या धनयान ताका कांय काळा उपरांत गुलामगिरींतल्यान मुक्त केल्लो अशें दिसता.

इसापाच्यो नीतिकथा 'फाबुले एसोपियाने' ह्या नांवान लॅटीन भाशेंत अणकारल्यात. १४७६ वर्सा त्यो रोमांत उजवाडाक आयल्यो. प्लान्यूडीझ हाणें संपादन केल्ली १४४ कथांची ग्रीक आवृती मिलान हांगा १४८० वर्सा उजवाडायली. इंग्लंडांत कॅक्सटन हाणें 'द फेबल्स ऑफ इसाप' हो ग्रंथ उजवाडायला. इसापाच्या कांय नीतिकथांचो भारतीय भासांतूय अणकार जाला. कोंकणीतय महाबळेश्वर सरदेसाय हाणें तांचो अणकार केला.

इसाप कथा ह्यो देखदिण्यो काणयो. ह्या ल्हान अशा काणयांनी चडकरून मोनजातीचीं पात्रां दिश्टी पडटात. ह्या पात्रांवरवीं मनीसजातीच्या स्वभावाचें दर्शन घडटा. ह्या कथांत मनीसजातीक बोध करपी संदेश दिल्लो आसा. संवसारांतल्यो बऱ्यांतल्यो बऱ्यो बोधकथा म्हूण इसापकथांक नामना मेळिल्ली आसा. ह्या कथांचें खाशेलेपण म्हळ्यार काळ, समाज, वाठार ह्या सारकिल्या गजालींची शीम हुपून ह्यो कथा संवसारीक कथा म्हूण नामनेक पावल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**इस्पिकांचो खेळः** (पळेयात पत्त्यांचो खेळ).

**इस्लामः** मुहम्मद पैगंबर हाणें स्थापिल्ल्या धर्माक 'इस्लाम धर्म' अशें नांव आसा. इस्लाम हें अरबी उतर, ताचो अर्थ शांततायेंत प्रवेश करप असो आसा. देवाक शरण वचप, मनीसजातीचेर मोग करप आनी अहिंसा धर्मान वागप ह्यो गजाली शिकयता, तो इस्लाम असोय ताचो अर्थ जाता.

**मुहम्मद पैगंबरः** मुहम्मद पैगंबर अरब देशांतल्या मक्का शारांत जल्मलो. ताच्या काळांत जर्दास, समुद, कहतान, इस्मायल, ज्यू ह्या सारक्यो जमाती अरबस्तानांत आशिल्ल्यो. ह्या काळांत अरबस्तानांतल्या लोकांची परिस्थिती वायट जाल्ली. व्यभिचार, जुगार, कर्मकांड, अंधश्रध्दा ह्या सारक्यो गजाली सगळ्याक पातळिल्ल्यो. मुर्तीपूजेक लागून अंधविस्वास आनी वायट चालीरीतींच्या फाटल्यान लोक लागिल्ले. अशा वेळार मुहम्मद हाणें तत्त्वगिन्यानाच्या घुस्पागोंदळांत पडनासतना सरळ, सोप्या धर्माचो उपदेश लोकांक केलो. देव हो एकूच आसा हें तत्त्व मुखार दवरून ताणें मुर्तीपूजेक विरोध केलो. तेन्नाच्या अरब लोकांक ताचे हे विचार पटलेना आनी मुहम्मदाक मदिना हांगा पळून वचचें पडलें. थंय मात लोकांनी ताका येवकार दिलो आनी ताचीं धर्मतत्त्वां आपणायलीं. फुडें आपल्या अनुयायांची संघटना उबारुन ताणें मक्केचेर घुरी घाली आनी थंय आपल्या एकेश्वरवादी धर्माची थापणूक केली. अरबी लोक ताच्या धर्माकडेन एके वेगळेच नदरेन पळोवंक लागले. इस्लाम आपणायतकच मनशा-मनशांमदीं कसलोच भेद- भाव उरना ह्या ताच्या तत्त्वाक लागून समाजांतल्या सकयल्या थरांतल्या लोकांचो ताका बरेच पालव आनी आदार मेळूंक लागलो.

**धर्माचीं तत्त्वां आनी शिकवणः** 'ला इलाह इल्लिल्लाह मुहम्मदर्रसुलिल्लाह' हो ह्या धर्माचो मुळावो मंत्र. अल्लाबगर दुसरो कोणूच पुजपासारको ना आनी मुहम्मद हो ताचो 'रसूल' म्हळ्यार दूत असो ह्या मंत्राचो अर्थ जाता. अल्लावांगडा मुहम्मद हाका नबी, रसूल वा पैगंबर म्हळ्यार देवाचो प्रेषित अशें मुसलमान मानतात.

इस्लामांत अमल (आचरण) आनी इमान (श्रध्दा) हांकां म्हत्व आसा. अमल हातूंत कुराणांतल्यो धर्मीक गजाली आसात. ह्यो गजाली म्हळ्यार 'कलमा' वा 'ला इलाह' ह्या मंत्रांचें पठण करप; दिसांतल्यान पांच फावट 'नमाज' वा प्रार्थना करप; कुराण ज्या म्हयन्यांत धर्तरेर आयलें त्या म्हयन्यांत म्हळ्यार रमजान म्हयन्यांत फकत एक फावट सांजे सूर्यास्ताउपरांत जेवण करप (रोजा); 'जकात'- वर्सुकी उत्पन्नाचो चाळीसावो वांटो दानधर्मांत खर्च करप आनी हज म्हळ्यार मक्का हांगा यात्रा करप.

देवदूत, अल्लाह, देवान निर्मिल्लो ग्रंथ, देवाचे प्रेषित, निमण्या निवाड्याचो दीस आनी देवाचे आदेश ह्या गजालींचेर श्रध्दा आसप म्हळ्यार 'इमान'. अल्ला सोडून कोणाचीच पूजा करची न्हय; दुसऱ्याचें लुकसाण जायसारकी कसलीच गजाल करची न्हय, हांकां इमान म्हण्टात. वयर सांगिल्ल्यो गजाली आचरणांत हाडप्यांक 'मुअमिन' म्हण्टात आनी त्यो न मानपी मनशाक 'काफिर' म्हण्टात.

इस्लाम धर्मांत फकत व्यक्तीगत स्वरुपाचेर न्हय, तर समाजीक थराचेरय सगळ्या आचारांविशीं बरोवन दवरलां. कुराण ह्या तांच्या पवित्र धर्मग्रंथांत पारलौकिक जिवितावांगडा ऐहिक जिविताविशींय भासाभास आसा. मनशा-मनशांमदले संबंद, राजनिती, न्याय, शासन, झूज, शांतताय, लग्न, लग्नमोड, सावकारी, दान ह्या सारक्या बऱ्याच विशयांचेर कुराणांत उपदेश आसात. व्याज घेवप म्हळ्यार पातक, काठुकपणा हो गुन्यांव, सोरो पिवप आनी जुगार खेळप हें व्हडलें पातक, जो मनीस दुसऱ्याचेर अन्याय करता आनी स्वता धर्मात्मो म्हूण संवसारांत मिरयता ताका खर यातना भोगच्यो पडटात अशें कुराणांत सांगलां.

'जिहाद' हें इस्लामचें एक राश्ट्रीय कर्तव्य अशें मानतात. 'जिहाद' हाचो अर्थ धर्म झूज. जिहादाचे तीन प्रकार आसात अशें मानतात. १. दिश्टी पडपी दुस्मानाआड संघर्श २. दिसनाशिल्ल्या दुस्मानाआड संघर्श आनी ३. इंद्रियां आड संघर्श. सादारणपणान इस्लामच्या प्रचाराखातीर जीं झुजां जालीं, तांकां पवित्र अर्थ दिवपाखातीर 'जिहाद' हें उतर मुखार आयलें.

इस्लाम धर्मांतल्यान मुळाव्या तत्त्वांत बदल जावप बरेंच कठीण. सुर्वेक जेन्ना हो धर्म अरबस्तानाच्या भायर पातळूंक लागलो तेन्ना ताचेर हेर धर्माचो आनी मतांचो प्रभाव पडपाची भिरांत उप्रासली. ताका लागून मूळ इस्लामच्या आचार-विचारांत बदल जातलो असो खलीफांक दुबाव येवंक लागलो. तशें घडचें न्हय हाका लागून तांणी तीन तरेची वेवस्था करून दवरली.

१. **इज्माः** सगळेकडेन सदांकाळ इस्लामच्या उपदेशकांमदीं पुरायपणान मतांची एकी आसची. जेन्ना एकाद्र्या प्रस्नाचेर मतभेद उत्पन्न जातात तेन्ना, उलेमांचे बसकेंत ताचेर भासाभास जावन थंय जो निर्णय जाता तो सगळ्यांनी मानून घेवचो.

२. **सुन्नाः** पैगंबरान जो वावर केलो, ताचें अनुकरण अहादीसच्या आदारान करचें. (अहादीस म्हळ्यार मुहम्मदाच्या उतरांचो संग्रह. सगळ्या प्रकारच्या गिन्यानाविशीं मुसलमान लोक अहादीस प्रमाण मानतात).

३. **कयासः** पैगंबराच्या मूळ उपदेशांतल्यान खंयचो अर्थ निश्पन्न जाता, ताचेर विद्वानांचो नियाळ म्हळ्यार कयास. हो नियाळ कुराण, अहादीस आनी इज्मा हांच्या आदारावरवींच करूंक जाय.

मुहम्मदान 'समेस्त मुसलमान एकामेकांचे भाव आसात, ताका लागून तांची एकी जावंक जाय' असो म्हत्वाचो उपदेश केला.

**धर्मकल्पना आनी रितीरिवाजः** इस्लामी कल्पनेप्रमाण स्वर्ग आनी नरकाचो मनशाक ताच्या कर्माप्रमाण लाव जाता. जिवितांत धर्माचे शिकवणेप्रमाण चलपी बऱ्या मुसलमानाक स्वर्गांत जाल्यार वायट कर्मां करप्याक नरकाची सुवात मेळटा. निमण्या निवाड्याच्या दिसाक 'कयामत' अशें नांव आसा. ह्या दिसा मनशाच्या पाप-पुण्याचो हिशोब जावन तांकां ते प्रमाण फाव तें फळ मेळटा. अल्ला हो सर्वज्ञ आनी सर्वसाक्षी आसा. तो सगळ्या सृश्टीचेर शासन चलयता. ताची उत्पत्ती स्वयंपूर्ण आसा. इस्लाम धर्मांत देवदूत वा फरिश्ते आनी सैतान ह्योय कल्पना आसात. 'फरिश्ते' मनशाक बऱ्यामार्गार हाडटात, जाल्यार सैतान तांकां वायट मार्गाक लायतात. नमाज वा प्रार्थना मशिदींत वचून करपाची, पूण तें शक्य जायना जाल्यार घराकडेनच प्रार्थना केल्यार जाता. ह्या धर्मांत सातव्या वर्साआदीं भुरग्याची सुन्ता करतात.

**इतिहासः** सुर्वेक इस्लामधर्म फकत एक मनीसधर्म ह्याच रुपांत आशिल्लो; पूण कांय काळाउपरांत तेन्नाचे परिस्थितीक लागून राजनैतिक स्वरुप आयलें. मुहम्मदाच्या फुडारपणाखाल विंगडविंगड पंगड एकठांय आयले आनी अरबांची जी संघटना तयार जाली, तातूंत राजनिती आनी धर्म हांची भरसण जाली. खलीफा हे तिचे फुडारी जाले. खलीफा हे शासक आनी धर्मगुरु अशो, दोन जापसालदारक्यो सांबाळटाले. मुहम्मदाच्या मरणाउपरांत शंबर-देडशीं वर्सांभितर अरबी धर्मसाम्राज्य आफ्रिका, स्पेन, द. फ्रांस, इराण, मध्य आशिया आनी मंगोलियामेरेन पातळ्ळें. फुडें कांय काळाउपरांत इस्लाम धर्म अरबांच्या घुरयांच्या रुपान भारतांत पावलो. इ.स. ६३४ ते ६४३ ह्या काळांत दुसरो खलीफा अमर हाणें तीन फावट भारताचेर घुरयो घाल्यो; पूण ताका व्हडलेंशें जैत मेळ्ळें ना. उपरांत आठव्या शतमानांत सिंध वाठारांत मुसलमानांनीं बरेंभशेन सत्ता गाजयली. थंयसावन भारतांतल्या हेर प्रांतांचेर तांणी घुरयो घाल्यो. उपरांत मुहम्मद गझनी आनी मुहम्मद घोरी हांणी भारताचेर घुरयो घाल्यो. खऱ्या अर्थान भारतांत मुसलमानी सत्ता आयली, ती बाबराच्या मोगल साम्राज्याउपरांत. तैमुरलंग आनी चंगीजखान हांच्या मोंगल वंशांतल्या बाबरान १५०० वर्सा भारताचेर घुरी घाली; आनी उपरांत बरोच काळ भारत मुसलमानी सत्तेखाला उरलो.

**धर्मपंथः** इस्लाम धर्मांत बरेच संप्रदाय आसात. तांतले मुखेल म्हळ्यार शिया आनी सुन्नी. सगळे संप्रदाय कुराण आनी पैगंबर हांकां मानतात. मुहम्मद पैगंबर हाका इ.स. ६३२ त मरण आयलें. ताचे उपरांत खलीफा कोण जावंचो हेविशीं मुसलमानांमदीं मतभेद जाले. कांय जाणांच्या मतान भोवमतान जो वेंचून येता तोच खलीफा जावंचो अशें आशिल्लें. तेप्रमाण अबूबक्र, उमर आनी उस्मान हे एकाफाटोफाट खलीफा जाले. ह्या खलीफांक धर्मफुडारी मानपी लोकांक सुन्नी म्हण्टात. मुहम्मद पैगंबराचो जावंय अली, होच खरो खलीफा अशें दुसऱ्या पंगडाचें मत. हाका लागून ते पयल्या तीन खलीफांक मानीनात. ह्या पंथाच्या लोकांक शिया अशें म्हण्टात. हे लोक हजरत अली आनी ताचे वंशज मेळून बारा इमाम म्हळ्यार धर्मीक फुडाऱ्यांक मानतात. ताचे वयल्यान तांकां इमाम हें दुसरें एक नांव आसा. शियापंथी लोक कुराणांतलो कांय वांटो उस्मान हाणें बरयला अशें समजतात आनी तितलोच वांटो सोडून हेर कुराणाक मानतात. तशेंच ते अलीचे तोखणायेविशींचो वांटो कुराणांत चड घालतात आनी कांय बरपावळीचो अर्थ सुन्नींपरस वेगळे तरेन लायतात. शिया हे पिराक मानीनात. शियांभितरले कांय लोक वद्य प्रतिपदेसावन म्हयन्याची सुरवात धरतात. सुन्नी लोक दिसाक पांच फावट जाल्यार शिया तीन फावट नमाज करतात.

ह्या दोनूय पंथांचे मेळून वट्ट ८४,०२,२१,३९० मुसलमान संवसारांत आसात.

**कोंकण/गोंयच्या संदर्भांत इस्लाम धर्मः** तेराव्या शतमानाच्या शेवटाक इस्लाम धर्म दक्षिण भारतांत पातळूंक सुरवात जाली. बहामनी साम्राज्य, विजापूरचें आदिलशाही साम्राज्य हांचे सत्तेवांगडा इस्लाम धर्म कोंकण आनी गोंयांत थिरावलो. सद्याक गोंयांत इस्लाम धर्मीयांचें प्रमाण एका टक्क्यापरस उणें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## इस्लाम, काजी नजरुलः

(जल्मः २५ मे १८९९; चुरुलिया-वर्धमान, बंगाल; मरणः १९७७).



इस्लाम, काजी नजरुल

क्रांतीवीर, बंगाली बंडखोर कवी. पिरायेच्या चवदा वर्सां मेरेन ताणें बंगाली, अरबी आनी फारसी भासांचें शिकप घेतलें. उपरांत आपलें शिकप सोडून तो 'लेटोर' पंगडांत (लोकसंगीताचो पंगड- हातूंत एकामेकांडेन संगितांतल्यान सवाल-जबाबांतल्यान सर्त खेळटात) गेलो. हातूंत तो थंयचेथंयच पदां रचून गावन दाखयतालो. पूण ह्यो लेटो कार्यावळी थरावीक वेळांतूच जाताल्यो. उपरांत ताणें सेरसील संस्थानाच्या रणीगंज (बर्द्वान) हांगाच्या सेरसौल हायस्कूलांत प्रवेश घेतलो आनी धावी मेरेनचें शिकप पुराय केलें. तेन्नाच बंगालचो नांवाजतो कादंबरीकार आनी कथाकार शैलजानंद मुखोपाध्याय हाचेकडेन ताची इश्टागत जाली. तेन्ना नजरुल चड करून गद्य साहित्य बरयतालो आनी शैलजानंद पद्यरचना करतालो, पूण उपरांतच्या काळांत एकामेकांच्या प्रभावान जावंये तांणी ह्या प्रकाराची अदलाबदल केली.

पयल्या म्हाझुजाच्या निमाणे, १९१७ वर्सा तो सैन्यांत भरती जालो. हे नोकरेच्या निमतान ताका कराची आनी मेसोपोटेमिया (इराक) हांगा वचचें पडलें. थंय फारसी कवी हाफिज हाच्या काव्याचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. तशेंच फारसी धर्तीच्यो कविता बंगाली भाशेंत बरयल्यो. तातूंतल्यो कांय कविता 'बंगीय मुसलमान साहित्य पत्रिका' आनी 'प्रवासी' ह्या दोन नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयल्यात.

१९१९ वर्सा तो बंगालांत परत आयलो. ह्याच काळांत ताची 'बाऊंडुलेर आत्मकथा' (एका वाळेसाची आत्मकथा) ही मोटवी काणी 'सौगात' ह्या नेमाळ्याच्या अंकांत उजवाडाक आयली. 'मुस्लीम भारत' ह्या नेमाळ्याखातीर ताणें 'बाँधन हारा' (बंधमुक्त) ही नवलीका बरयली. तशेंच 'कुर्बानी' (कविता- बलिदान); 'बादल बरिशान' (काणी- 'कुपां शिंवर'); 'बादल प्रातेर सोहराब' (कविता- पावशे फांतोडेर केल्ली प्रार्थना); 'बोधन' (कविता-उक्तावण); 'मोहर्रम' (कविता-मुस्लीम परब); 'शातिल अरब' (कविता- मेसोपिटामियाचे युफ्रेटिस न्हंयचें अरबी नांव); 'गीतां' (३ गीतां); 'गझल' (हाफिझच्या गझलांचो अणकार); 'फमवा-ए-दोजदम' (कविता- पैगंबराचो जल्मदीस); 'बिरह-बिधुरी' (कविता- विरहव्यथा); 'मोरोमी' (गीत-भावूक मन); 'स्नेह-भीतु' (कविता- प्रेमभिडेस्त).

ताणें 'नवयुग' (दिसाळें- १९२०), 'धूमकेतू' (सातोळें- १९२२), 'लांगल' (सातोळें- १९२५) आदी नेमाळ्यांचें संपादन केलां. ताच्या 'विद्रोही', 'प्रलयोल्लास' आनी 'केमालपाशा' ह्या तीन कवितांखातीर तशेंच 'अग्निवीणा' (१९२२) ह्या कवितासंग्रहाखातीर ताका बरीच नामना मेळ्ळी. ताचे 'विद्रोही' हे कवितेक लागून बंगाली लोक ताका विद्रोही कवी म्हूण वळखताले. ताणें 'अग्निवीणा' ह्या कविताझेल्यावरवीं बंगाली लोकांच्या काळजांत स्वदेशाविशीं अभिमान आनी परके सत्तेआड रागाची कीट पेटयली. 'विषेरबाँशीं' (विखयाळी बांसरी, १९२४) आनी 'भांगार गान' ह्या ताच्या दुसऱ्या कविताझेल्याकय खूब नामना मेळ्ळी. ताचे हेर कांय कविताझेले अशे: 'संचयन' (१९५५); 'मरु-भास्कर' (१९५७); 'संध्या' (१९२९ ?) आनी 'प्रलय-शीखा' (१९३९ ?).

नजरुल हाचो रवींद्रनाथ टागोराचे परंपरेंतल्या बंगाली कवीपंगडांत आस्पाव जाता. ताणें काव्य रचणुकेवांगडा वेगवेगळ्या छंदांत बरयल्लीं दोन हजारांवयर भावगीतां आसात. ताची भावगीतांची पंचवीसांवयर पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. ताचो 'संचिता' (१९२८) हो पयलो कविता आनी गीतांचो झेलो उजवाडाक आयलो. तेखेरीज ताणें लघुकथा, कादंबरी, नाटकां, निबंध अशी तरेकवार बरपावळ केल्या. ताच्या कांय कवितांचो, हेर भारतीय भासांत अणकार जाला. ताच्यो कांय वेंचीक कविता रशियन भाशेंतूय अणकारल्यात.

ताचे कवितेंत त्या काळावेल्या समकालीन समाजाचे स्थितीचें वर्णन आयलां. लोकांच्या सूख-दुख्खाचें पडबिंब ताच्या काव्यांत पडलां. साहित्यावांगडाच ताणें राजकी मळारुय जायतो वावर केला. गांधीजीच्या असहकाराचे चळवळींत वांटो घेवन कांय काळ ताणें बंदखणीची ख्यास्त भोगल्या. ताणें भारतीय कम्युनिस्ट कार्यकर्तो मुजफ्फर अहमद हाच्या आदारान 'कामगार किसान-संघटना' तयार केली. बंगालांत आशिल्ले हे आद्य संघटनेचो तो खासा अध्यक्ष आशिल्लो. हिंदू आनी मुसलमान हांची एकी जावंची म्हूण ताणें खूब यत्न केले. भारताचे फाळणीचो तो खर विरोधक आशिल्लो.

१९२४ वर्सा ताणें एके ब्राह्मण चलयेकडेन लग्न केलें. ताकालागून ताका ब्राह्मण आनी मुसलमान ह्या दोनूय जातींकडल्यान त्रास जाले.

- कों. वि. सं. मं.

**इस्लामाबाद:** पाकिस्तान राज्याची राजधानी. लोकसंख्या २,०१,००० (१९८१). १९४७ वर्सा भारताचे फाळणेउपरांत पाकिस्तान वेगळें राज्य जालें, त्यावेळार राजधानी म्हूण पाकिस्तानातलीं लाहोर, कराची वा हेर नगरां, राश्ट्रीय सुरक्षा आनी राजकार्य हे नदरेन उपेगी नासलीं. पूण सुर्वेक कराची शाराचो राजधानी म्हूण उपेग करूंक लागले. राजधानी जातकच ह्या शाराच्या अर्थीक आनी वेपारी कार्यांत बादा येवंक लागली. देखून, १९५९ वर्सा तेन्नाचो पाकिस्तानाचो राश्ट्रपती अयूब खाँ हाणें रावळपिंडीच्यान ११ किमी. वायव्येक पोतवार पठाराचेर नव्या नगराची येवजण केली. हें नगर आर्विल्ल्या स्थापत्य कलेचे बांदावळीचेर बांदलें आनी ताका इस्लामाबाद हें नांव दिलें. ह्या नगराचो नियोजक ग्रीक मनीस कॉंस्टेंटिनोज ए. डाक्सियाडिज हो आशिल्लो.

हें नगर आंतरराश्ट्रीय शिमेपसून पयस आसा. तशेंच रावळपिंडी परस ऊंच आशिल्ल्यान ह्या शारांतलें वातावरण भलायकेक मानवपी अशें आसा. हांगाचें हवामान थंडेच्या आनी गिमाच्या दिसांनी जाय तशें आसता.

पूर्विल्लें भारतीय संस्कृतीक नगर तक्षशिला, इस्लामाबादसावन ४८ किमी. अंतराचेर आसा. १५६० वर्सा कराची शारांत आशिल्लीं वेगवेगळीं केंद्रीय कार्यालयां रावळपिंडी शारांत हाडलीं. फुडें इस्लामाबाद शाराची निर्मणी पुराय जातकच हीं सगळीं केंद्रीय कार्यालयां ल्हवल्हव करून इस्लामाबाद शारांत हाडलीं. ह्या शाराक विजेची आनी उदकाची पुरवण करपाखातीर हांगाचे कुरग न्हंयचेर १९६० वर्सा प्रकल्प बांदलो. रावळपिंडीच्या लागसार आशिल्ल्यान इस्लामाबाद शाराची अर्थीक, वेपारी, उद्येगीक, प्रशासनीक आनी हेर मळांचेर बरीच उदरगत जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**ई:** वर्णमालेंतलें चवथें अक्षर. चतुर्दशमुखी विधात्याच्या चवथ्या तोंडापसून तयार जाल्लो चवथो स्वरवर्ण. हाचें वर्णन कामधेनुतंत्रांत अशें सांगलां-

ईकारं परमेशानि स्वयं परमकुण्डली।
ब्रह्मविष्णुमयं वर्णं तथा रुद्रमयं सदा।।

अर्थः हे देवी, ईकार हो परम कुंडली स्वरुपाचो आसून ब्रह्म, विष्णु आनी रुद्रात्मक आसा.

हो स्त्री मूर्तीच्या रुपाचो आसून ताका महामाया, लोलाक्षी अशींय नांवां आसात. मातृकान्यासांत दावो दोळो ही हाची सुवात जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**ईजिप्त:** (मिसर, अधिकृतः युनायटेड अरब रिपब्लिक). आफ्रिका खंडाचे ईशान्येवटेनचें राश्ट्र. हाचो सिनाय द्वीपकल्पाचो वाठार आशियांत येता. क्षेत्रफळ १०,०२,००० चौ. किमी. लोकसंख्या ४,८०,०९,००० (१९८६). ह्या देशाचे उत्तरेक भूंयमध्य दर्या, ईशान्येक इझ्राएल, उदेंतेक तांबडो दर्या आनी ताचे पलतडीं अरबस्तान, दक्षिणेक सुदान आनी अस्तंतेक लिबिया आसा. चौकोनाभशेन दिसपी ह्या देशाची उदेंत-अस्तंत लांबाय १,२१६ किमी. दक्षिण-उत्तर अंतर १,०८० किमी. कायरो ही देशाची राजधानी.

**भूंयवर्णनः** भूगोलाचे नदरेंतल्यान ईजिप्ताचे चार वांटे जातातः दक्षिणेवटेनचें आनी अस्तंतेवटेनचें वाळवंट, नायल देगण, उदेंतेवटेनचें वाळवंट आनी सिनाय द्वीपकल्प.

अस्तंतेवटेनचें वाळवंट वा लिबियन वाळवंट हो सहारा वाळवंटाचोच एक वांटो. नायल देगेवेल्यान उंचाय वाडत वचून लिबियन शीमेमेरेन ३०० मी. चेर पावता. हाच्या दक्षिण वाठारांत राबितो सामकोच उणो. वायव्येवटेनचो देंवतेचो 'कॉटारॉ डिप्रेशन' हो चिखलाचो वाठार समुद्रथरासावन १३२ मी. सकयल आनी १८,००० चौ. किमी. विस्ताराचो आसा.

नायल भोंवतणचो वाठार सपाट आसा. ताचे दक्षिणेवटेनचो वयलो ईजिप्त आनी उत्तरेवटेनचो सकयलो ईजिप्त अशे दोन वांटे जातात. वयलो ईजिप्त अर्दिंदन ते कायरोमेरेन पातळ्ळा. हो पिकाळ वाठार जावन आसा. हांगा बरेच इतिहासीक अवशेश सांपडटात. सकयलो ईजिप्त कायरोसावन भूंयमध्य दर्या मेरेन पातळ्ळा. नायल न्हंयच्या सात फांट्याक लागून हो वाठार पिकाळ आसा. देशाची २/३ लोकसंख्या आनी चडशीं म्हत्वाचीं शारां आनी उद्येगधंदे हांगाच आसात.




उदेंतेकडल्या वाळवंटाक अरेबियन वाळवंट अशें म्हण्टात. हो वाठार नायलसावन उदेंतेवटेन पातळ्ळा. तांबड्या दर्यादेगेलागचो हाचो कांय वाठार २,१०० मी. परस ऊंच आसा.

सिनाय द्वीपकल्प ईशान्येक आसा. हो ईजिप्तांतलो सगळ्यांत चड ऊंच वाठार आसा. हांगाच्या २,२८५ मी. उंचायेच्या जेबेल मूसा पर्वताचेर मोझेसाक देवाकडल्यान 'धा आज्ञा' मेळिल्ल्यो असो समज आसा. हाचे उदेंतेक अकाबाचें आखात आसा. जेबेल कॅथेरिना हें हांगाचें सगळ्यांत ऊंच (२,६३७ मी.) दोंगरातेमक जावन आसा.

नायल न्हंयचेर ईजिप्ताचें जिवीत चलता. ही न्हंय ईजिप्तांत सुमार १,५०० किमी. मेरेन व्हांवता. नायल न्हंयक वर्सातल्यान एकदां हुंवार येता. इथिओपियांतली सोबॅत न्हंय (नील नायल) धवे नायल न्हंयेक मॅलॅकॅल हांगा मेळटा आनी पावसाळ्यांत नायल न्हंयक चडशा उदकाची पुरवण करता.

इथिओपियांतल्यो बारो, आब्बाय आनी आतबारा न्हंयो सुदानांतल्यान ईजिप्तांत वचपी नायल न्हंयक ९०% उदकाची पुरवण करतात. गिमाच्या दिसांनी मात धवे नायलचें आनी उपन्हंयाचेंच उदक नायल न्हंयंत वता. ॲल्बर्टा सरोवरांतल्यान धवी नायल भायर सरता आनी जूबा सावन व्हांवत 'सूद' च्या चिखलाच्या वाठारांत पावता. मॅलॅकॅल उपरांत वाडी हॅल्फा आनी आस्वानच्या मदीं नायलच्या ७% उदकाची वाफ जाता. नायलचेर बरींच धरणां बांदिल्ल्यान हुंवार येवन रेबो सगळेवटेन पातळपाचें उणें जालां.

**हवामानः** ईजिप्तांतलें हवामान वाळवंटी आसा. गिमाच्या दिसांनी तापमान २७° से. ते ३२ से. आसता. शियाळ्यांतय उश्णताय आसता आनी तापमान १२° से. ते २१° से. मेरेन आसता. वायव्येवटेनच्या वाऱ्याक लागून दर्यादेगांवेलें तापमान मात्शें थंड आसता. वसंत ऋतूंत दक्षिणेवटेनच्यान व्हांवपी वाऱ्यांक 'खम्सिन' म्हण्टात. तांकां लागून वाळवंटांतलें तापमान बरेंच खेपो ४३° से मेरेन पावता. ईजिप्तांत पावसाळो ना. भूंयमध्य दर्यादेगेचेर सादारण २० सेंमी. पावस पडटा, दक्षिणेवटेन सादारण २.५ सेंमी. जाल्यार वाडी हॅल्फा हांगा मातय पावस पडना. ॲलेक्झांड्रीया हांगा वर्सातल्यान ४० दिसांक १९ सेंमी; पोर्ट सैद हांगा ८ सेंमी. आनी कायरो हांगा २.३ सेंमी. पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजातः** ईजिप्तांत चडसो वाठार वाळवंटाचो आशिल्ल्यान लजे झोपां, झाऊ आनी वाळवंटांत वाडपी हेर प्रकारची वनस्पत दिसून येता. उदेंतेवटेन आनी सिनाय वाठारांत जमनीभितर आशिल्ल्या उदकाच्या आदाराचेर खाजराचीं झाडां वाडटात. नायल देगणांत कांय रानवट वनस्पत आसा. ईजिप्तांत जरी रानां नासलीं तरी खाजराचीं आनी लिंबाचे जातीचीं झाडां वाडटात.

बोकड्यो, मेंढरां, गाडवां, उंट ही हांगाची मुखेल मोनजात. हरणांच्यो कांय जाती, तरस, कोलो, खोकड, आयबेक्स हीं जनावरां, तेभायर ३०० वयर सुकण्यांच्यो जाती, पाखे, विंचू, सोरोप, पारो ही मोनजात हांगा आसा. नायल न्हंयंत तरेतरेचें नुस्तें आसा. मानगीं मात हालींच्या तेंपार उणी जायत गेल्लीं दिसून येता.

**इतिहासः** ईजिप्ताचो पूर्विल्लो इतिहास तीस घराण्यांभितर वांटून घालूं येता. इ.स.प. ३१०० ते इ.स. ६४२ मेरेनचो इतिहास तातूंत येता. ६३९ त अरब सैन्याचो अधिकारी इब्न-अल-अस हाणें ईजिप्त आपले सत्तेखाला हाडलें आनी तो खलीफा जालो. ताच्या वंशजांनी २०० वर्सां राज्य केलें. ९६९ सावन ११७१ मेरेन फातिमी वंशान राज्य केलें. सुमार ९७० त, अल्-अझार विद्यापीठाची थापणूक जाली. आयूबिद घराण्यान ११७१ सावन १२५० मेरेन राज्य केलें. फुडें गुलाब घराण्याचें राज्य तुर्कांची १५१७ तली घुरी येयसर तिगून उरलें. तुर्कांचो शेक १८०५ मेरेन चल्लो. उपरांत पाशा मुहम्मद अलीच्या घराण्यान १९१४ मेरेन हांगा राज्य केलें. मुहम्मद अली मूळ आल्बेनियाचो, ताणें ह्या देशाचे

उदरगतीखातीर बरेच कश्ट घेतले. १८६९ त तयार जाल्ल्या सुएझ कालव्याक लागून ईजिप्त हें येरादारीचें केंद्र जालें. १८८२ वर्सा ब्रिटनान ईजिप्ताचेर अप्रत्यक्ष सत्ता चलोवंक सुरवात केली. १९१४ त तांणी ह्या देशाक पुरायपणान आपल्या हाताखाला घेतलो. १९२२ त ईजिप्ताक मर्यादित स्वतंत्रताय मेळ्ळी. वफद पक्ष, झगलूल पाशा आनी नॅहास पाशा हांणी पुराय स्वतंत्रतायेखातीर यत्न केले; पूण ब्रिटीश सैन्य १९३६ मेरेन सुएझाचे राखणेच्या निमतान थंय रावलें. १९४५ त ईजिप्त संयुक्त राश्ट्र संघटनेचो सभासद जालो. त्याच वर्सा अरब लीगाची थापणूक जाली. पॅलेस्टायनाक लागून अरब-इझ्राएल झूज १९४८ त सुरू जालें. ह्या झुजांत ईजिप्तचो बरोच वांटो आशिल्लो. जुलय १९५३ त जनरल नगीबच्या फुडारपणाखाल सशस्त्र क्रांती जाली. फरुक राजान देश सोडलो आनी नगीब पयलो पंतप्रधान जालो. ईजिप्त प्रजासत्ताक राश्ट्र म्हूण घोशणा जाली. ईजिप्तचे मागणेवेल्यान १९५६ मेरेन थंयसावन सगळें ब्रिटीश सैन्य फाटीं काडलें. जून १९५६ त नासर राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताणें २६ जुलय १९५६ दिसा सुएझाचें राश्ट्रीयकरण केलें. ताका लागून हांगा प्रस्न उप्रासले आनी ब्रिटन आनी फ्रांसान ईजिप्ताचेर बाँब उडयले. संयुक्त राश्ट्रांचे मध्यस्थीन हो वाद सोंपलो. १९४८ सावन ईजिप्त-इझ्राएल हांचेमदीं तीन झुजां जालीं आनी दोनूय देशांमदले वायट संबंद तशेच उरले. २९ ऑक्टोबर १९५६ सावन झुजाक लागून गाझा हांगा आंतरराश्ट्रीय पोलिस दवरले. पूण ताचो व्हडलोसो फायदो जावंक पावलो ना. १९६७ आनी १९७३ त पर्थून झुजां जालीं. ह्या झुजांनी ईजिप्ताचें बरेंच लुकसाण जालें. कांय वाठार इझ्राएलान घेतलो. सुएझ कालव्यांत बोटी बुडिल्ल्यान तो येरादारीखातीर बंद जालो. १९७३ मेरेन तो बंद उरिल्ल्यान ईजिप्ताची अर्थीक परिस्थिती इबाडली. १९५८ त ईजिप्त आनी सिरिया हांचें संघराज्य निर्माण जालें. हातूंत फुडें येमेन भितर सरलो; पूण हो एकवट चड काळ तिगलो ना. १९६५ त नासर हाची पर्थून स वर्सांखातीर पंतप्रधान आनी अध्यक्ष म्हूण वेंचणूक जाली. १९७० त नासर हाका मरण आयलें आनी अन्वर सादत हो अध्यक्ष आनी पंतप्रधान म्हूण वेंचून आयलो. ताणें १९७९ त इझ्राएलावांगडा शांततायेची कबलात केली. हे कबलातीक लागून हेर अरब राश्ट्रांनी ईजिप्ताक अरब लीगांतल्यान भायर उडयलो आनी ताचेर बहिश्कार घालो. ६ ऑक्टोबर १९८१ अन्वर सादताचो खून जालो. होस्नी मुबारक हो पयलींचो उपराश्ट्रपती थंयचो अध्यक्ष आनी पंतप्रधान जालो. १९८३ त ईजिप्त आनी हेर अरब राश्ट्रांचे संबंद सुदारपाची सुलूस लागली पूण लिबिया आनी सिरिया ह्या दोनूय देशांनी आपलो बहिश्कार चालूच दवरलो. १९८४ त मुबारकाचो पक्ष व्हडलें भोवमत मेळोवन पर्थून वेंचून आयलो.

**राज्यवेवस्थाः** एप्रिल १९२३ त ईजिप्ताचें संविधान जाहीर जालें. हें संविधान बेल्जियमच्या संविधानाचेर आदारिल्लें आशिल्लें. संसदेची सीनेट आनी चेंबर ऑफ डेप्युटीज अशीं दोन घरां आशिल्लीं. मार्च १९६४ त नासर हाणें नवें संविधान जाहीर केलें. तेप्रमाण ह्या देशाची समाजवादी लोकशाय राश्ट्र म्हूण घोशणा जाली. लोकांचें विधीमंडळ राश्ट्राध्यक्ष स वर्सांखातीर वेंचून काडटा. विधीमंडळ एकाच घरांत बसका घेता. तातूंत ५ वर्सांखातीर वेंचून आयिल्ले ३९२ वांगडी आसतात.

थळावें प्रशासन २६ प्रांतांतल्यान चलता. दर प्रांताचेर केंद्र सरकार राज्यपालाची नेमणूक करता. गांवांचें आनी शारांचें प्रशासन थळाव्या मंडळांकडेन आसता. हांगाय लोकशायेच्या मार्गान वेंचून आयिल्ले प्रतिनिधी राज्यकारभार चलयतात.

न्यायवेवस्था इस्लामी, फ्रेंच आनी इंग्लीश न्यायपध्दतीचेर आदारिल्ली आसा. चार विंगडविंगड पांवड्यावेलीं न्यायालयां हांगा आसात. थळाव्या कायदो आनी राखणेचेर घर खातें आनी पोलिस नियंत्रण दवरतात.

**अर्थीक स्थितीः** हांगाची अर्थवेवस्था बऱ्याच प्रमाणांत शेतवडीचेर आदारल्या. कापसाचें उत्पादन हांगा बरेंच येता. कापूस निर्यात करपी देशांमदीं ईजिप्त बरोच मुखार आसा. गंवाची पिकावळ हालींच्या वर्सांनी मात्शी उणी जाल्या. कांदो बरोच पिकता. तेभायर बार्ली, मको, तांदूळ, ऊंस, हेर कड्डणां, मसमी भिकणां, तेल काडपाक उपेगी पडपी पिकां, भाजीपालो, केळीं, द्राक्षां, खाजूर, लिंबाचे जातीचीं फळां हांचेंय पीक बऱ्याच प्रमाणांत येता. गोरवां आनी कुकडां पोसपाच्या उद्येगांकय बरेंच म्हत्व आसा.

फॉस्फेट, लोखण, मँगनीज आनी कोळसो हांगाच्या खणींनी सांपडटा. तेलाच्या उद्येगाक लागून हो देश अर्थीक नदरेन उदरगतीक पावला. सैमीक तेल मेळपाच्यो हांगा ६ मुखेल तेलखणी आसात. उदकांतली संपत्ती चडशी नायल न्हंयतल्यान मेळटा. १९८३ वर्सा ह्या देशाक १५ लाख पर्यटकांनी भेट दिल्ली.

हेर उद्येगधंद्यांमदीं कपड्याच्या धंद्याक बरेंच म्हत्व आसा. तेभायर गरजेच्यो वस्तू तयार करपी सगळे तरेचे कारखाने हांगा आसात. अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, रशिया, अस्तंत जर्मनी, इटली आनी हेर युरोपीय आनी आशियाई देशांकडेन ईजिप्ताचे आयातनिर्यातीचे वेव्हार चलतात.

**येरादारी आनी संचारणः** १९८३-८४ मेरेन हांगा ३०,०६९ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. तातूंतले ४७% डांबरी. वाळवंटांनी येरादारी करचेखातीर उंटांचो उपेग करतात. १९८४ मेरेन रेल्वेमार्गांची लांबाय ४,३४६ किमी. आशिल्ली. सुएझ कालव्यांतल्यान संवसारांतली म्हत्वाची येरादारी चलता. पोर्ट सैद आनी ॲलेक्झांड्रिया हीं ईजिप्तांतलीं म्हत्वाचीं बंदरां जावन आसात. नायल न्हंयतल्यानय बरीच येरादारी जाता. 'ईजिप्त एअर' ही विमानकंपनी हवाई मार्गावेल्या येरादारीचेर नियंत्रण दवरता. कायरो आनी ॲलेक्झांड्रिया हे मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. हे भायर आनी बरेचशे विमानतळ आसात. तातूंतले ११ म्हत्वाचे. विमानमार्गावेल्यान जगांतल्या बऱ्याच म्हत्वाच्या शारांकडेन ह्या देशाची येरादारी चलता.

१९८५ मेरेन हांगा १७ खबरांपत्रां आशिल्लीं. 'अल् अहरम्' हें सगळ्यांत चड खपाचें खबरांपत्र. रेडिओ आनी दूरचित्रवाणीचेर पुरायपणान सरकाराचें नियंत्रण आसा.

**लोक आनी समाजजीणः** ईजिप्तांतले ९०% लोक नायलच्या देगणांत रावतात. वाळवंटांच्या वाठारांनी लोकांचो राबितो सामकोच उणो आसा. ह्या लोकांचें वांशिक दायज थारावप तितलेंशें सोपे ना. तांच्यांत पूर्विल्ले ईजिप्शियन, अरब, तुर्क आनी हेर वंशाचीय भरसण जाल्ली सांपडटा. सोबीत केंस, घटमूट कूड, गोरो कोर हीं उत्तरेवटेनच्या लोकांचीं खाशेलेपणां. दक्षिणेवटेनचे लोक तितलेशे गोरे नात. चडशे लोक इस्लामी शाफी पंथाचे आसात. हनफी, मालिकी, कॉप्ट ह्या कांय वंशांच्यो जमातीय हांगा आसात. हेर परक्यांमदीं ग्रीक, आर्मेनियन, सिरियन हे आसात. हांगाचो समाज तीन वांट्यांनी वेगळो जालाः

*१. फेल्लहीनः* म्हळ्यार शेतकार. हांचें प्रमाण सुमार ६०% आसा. हो वर्ग सामकोच मागाशिल्लो आसा. हांचेमदीं कपलार, खाडकेचेर, हातांचेर आनी कानसुलांचेर गोंदून घेवपाची पध्दत आसा. बायलांचे केंस लांब आसतात आनी तीं विणयो घालतात. दादल्यांचे केंस ल्हान आनी खाड दवरपाची पद्दत आसा. मेथयेचो उपेग केंस, खाड रंगोवपाखातीर करतात. हातां-पांयांचेरय मेथी रंगोवपाचो प्रकार सगळ्याक आसा. दादल्यांचो भेस सुती कपड्यांचो आसता आनी ताचेर 'गल्लबिया' पांगुरतात. तकलेर 'लेब्दो' आनी ताचेर धवो कपडो फेट्यासारको गुठ्लायतात. पांयांनी केन्नाकेन्नाय बल्घा (पायतणां) घालतात. बायलांक वस्तींचो बरोच सोंस आसा. कांय बायलो मिलाया (बुरखो) वापरतात. वस्ती तांब्याच्यो वा रुप्याच्यो आसतात.

*२. बेदूईनः* ह्या हेडग्या पंगडांचो समाज ल्हान आसा. हे गोरवां, मेंढरां, उंट पोसतात आनी तांकां घेवन भोंवत आसतात. दरेक बेदूईनाक दोन ते चार बायलो आसतात. एका घराब्यांत चार ते पांच भुरगीं आसतात. दरेक जमातीचो मुखेली 'शेख' आसता.

*३. शारांनी रावपी लोक आनी वेपारीः* हो तिसरो वांटो जावन आसा.

हे सुमार ३०% आसात. हांचें कुटूंब ल्हान आसता.

फेल्लहीन लोक एक-दोन कुडींच्या घरांनी रावतात. हीं घरां विटांचीं आसतात. उंचायेचेर तांच्या घरांक जनेलां आसतात. शियाळ्यांत हीं जनेलां बंद करतात. दरेक घराक 'मंडारा' (सोपो) आनी 'झरिबा' (गोठो) आसता. घरांनी 'हल्ला' (तांब्याचीं आयदनां) वापरतात. 'निश्त'चो (सपाट परात) उपेग कपडे धुवपाखातीर करतात. गांवगिऱ्या वाठारांनी भौशीक 'गुर्न' (खळें) आसता.

बेदूईन लोक चडशे तंबूंनी रावतात. उंट, बोकड्यो वा मेंढरांचे चामडेपसून तंबू तयार करतात. गिरेस्तांचीं घरां व्हड आनी नवे पद्दतीन बांदिल्लीं आसात. शारांनी रावपी लोक जरी युरोपीयांभशेन भेस करतात, तरी पूण घराकडेन येवन चडसो आपलो सैल भेस घालून रावतात.

सदच्या जेवणांत मसुरची दाळ, ऑलिव्ह तेल, तूप, लोणी, लिंबू आसता. मांस खावपाचो सगळ्यांकच धोस्त आसलो तरी गिरेस्तांकच तें परवडटा. मध्यमवर्गीय मनीस शीत आनी मक्याची भाकरी खाता. काळी च्या आनी टर्किश काफी पिवपाची ह्या लोकांक बरीच आंवड आसा. अस्तंतेकडल्या संस्कारांक लागून बुरखो पध्दत फाटीं पडल्या आनी दादल्यांवांगडा समाजांत बायलां नेटान वावर करूंक लागल्यांत. हांगाचो राश्ट्रीय धर्म इस्लाम. ९१% लोक सुन्नी पंथाच्या शाफी फांट्याचे आसात. हनीफी आनी मालिकी उत्तरेखटेन चड आसात. कॉप्ट धर्माचे लोक सुमार ८% जाल्यार कॅथलिक, प्रोटेस्टंट, ग्रीक ऑर्थोडोक्स, सिरियनय हांगा आसात. १९६८ उपरांत ज्यूंची संख्या सामकीच उणी जाली. कायरो शारांतच फकत २५० परस चड मशिदी आसात. मुसलमानांचे सगळे सण आनी उत्सव हे लोक मनयतात.

नृत्य आनी पदांची ह्या लोकांक बरीच आवड आसा. सॉकर हो खेळय बरेच लोक खेळटात. गिरेस्त लोक टेनिस, पेंवप, उदकांतले हेर खेळ खेळटात. घरांत बसून बुध्दीबळ खेळपाची चाल सगळ्याक पळोवंक मेळटा.

**शिक्षण:** राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण ४४% आसा. स वर्सांखातीर शिक्षण सक्तीचें, फुकट आनी एकसारकें आसता. ६ ते १२ वर्सांमेरेनच्या भुरग्यांक हो नेम लागू जाता. स वर्सांचें हें मुळावें शिक्षण सोंपल्या उपरांत ३ वर्सांचें पूर्व माध्यमिक आनी ३ वर्सांचें माध्यमिक अशें ६ वर्सांचें शिक्षण घेवपाची वेवस्था आसा. सप्टेंबर ते मे मेरेन एक शिक्षणीक वर्स आसता. अरबी भाशा हें शिक्षणाचें माध्यम पूण माध्यमिक पांवड्यार इंग्लीश, फ्रेंच, जर्मन, इटालियन ह्योय भाशा वापरतात. धर्मीक शिक्षण दिवपी संस्था हांगा आसात. ह्या देशांत १८ विश्वविद्यालयां आसात. हातूंतलें कायरो विश्वविद्यालय (थापणूक १९०८) हें सगळ्यांत पोरनें. विंगड विंगड मळांवेलें वेवसायिक शिक्षण दिवपाची हांगा बरी वेवस्था आसा. हांगाचे बरेच विद्यार्थी उंचल्या पांवड्यावेलें शिक्षण घेवपाखातीर अमेरिका, अस्तंत जर्मनी, ब्रिटन, सावदी अरेबिया आनी सुदान सारक्या देशांनी वतात.

**भाशा आनी साहित्य:** ईजिप्तची राश्ट्रीय भाशा अरबी. न्यूबियन समाज न्यूबियन भाशेंतल्यान उलयता. कॉप्टिक भाशा मठांनी वापरतात. अस्तंतेकडले संस्कृतायेकडेन संबंद आयल्या उपरांत हांगाचें साहित्य बरेतरेन फुलूंक लागलें सामी अल्-बरूदी (१८३९-१९०४) हाणें इस्लामाचेर काव्य केलें; अब्बास अल्-अक्कड (१८८९-?) हो नामनेचो कवी आनी लेखक. मलक हिफ्नी नासिफ (१८८६-१९१८) हाणें बायलांच्या प्रस्नांचेर बरीच बरपावळ केल्या. अहमद झाकी अबू शाली, महमूद तिमूर हे नामनेचे नाटककार आसात. अल-हकीम हो कादंबरीकार आनी नाटककार जगभर गाजला.

**म्हत्वाचीं थळां:** ईजिप्तांत पळोवपासारक्यो कितल्योश्योच ओडलायण्यो सुवाती आसात. पोरनी ईजिप्शियन संस्कृताय नायलच्या वाठारांत आशिल्ली. थंय भायल्या देशांतले सुमार चार पांच लाख लोक भेट दितात. पिरॅमिड, स्फिंक्स, थडीं आनी पोरने राजवाडे हांच्यावांगडाच कायरो, ॲलेक्झांड्रिया शारांतली आर्विल्ली बांदावळ, ईजिप्तांतले लोक आनी तांची संस्कृताय ह्यो गजाली भोंवडेकारांखातीर भोव आकर्शणाच्यो थारतात. आंतरराश्ट्रीय येरादारीचें एक मुखेल केंद्र जाल्यानय ह्या देशाचें म्हत्व बरेंच वाडलां.

- कों. वि. सं. मं.

**ईनिड:** लॅटीन भाशेतलें एक महाकाव्य. हें महाकाव्य व्हर्जिल हाणें आपल्या निमण्या दिसांनी बरयल्लें (इ.स.प. ३० ते १९). हें महाकाव्य अर्दकुटें आसून ताचे फकत बारा सर्ग मेळटात.

ह्या महाकाव्याचें कथानक अशें: ट्रॉय पडल्या उपरांत इनीअस हो ट्रोजनांचो मुखेल फुडारी जाता. नवी राजधानी वसोवपाखातीर बऱ्याशा वाठाराचो सोद घेवंक तो आपल्या सैन्या वांगडा एकवीस गलबतां घेवन दर्या-भोंवडेक वता. ताच्यावांगडा ताचो बापूय अंकायसीझ आनी पूत ॲस्कनियस हेवूय आसतात. भूंयमध्य दर्यांतल्यान सात वर्सां भोंवडी केल्या उपरांत ते अस्तंत सिसिलीचे देगेर येतात. थंयच अकांयसीझाक मरण येता.

ईनिडच्या पयल्या सर्गांत सुर्वेक इनीअस सिसिलीच्यान इटालीकडेन वता. तेन्ना ज्यूनो ही देवता ताचे वाटेंत आडमेळीं हाडूंक दर्यांत वादळां निर्माण करता. ट्रॉजन वंशापसून तिचे आवडीच्या कार्थेज शाराक भंय आसा हें तिका खबर आसता. वादळाक तोंड दिवन इनीअस कार्थेज शारांत येता. थंय कार्थेजची राणी डायडो ताका आलाशिरो दिता आनी व्हीनस देवतेचे येवजणे प्रमाण इनीअसाच्या मोगांत पडटा.

ईनिडच्या दुसऱ्या आनी तिसऱ्या सर्गांत डायडोच्या आग्र्यावेल्यान इनिअस तिका ट्रॉयची हार आनी ताचे उपरांतच्यो घडणुको सांगता. चवथ्या सर्गांत इनीअस आनी डायडोच्या मोगाचें आनी वियोगाचें वर्णन आसा. ह्या सर्गाचे अखेरेक ज्यूपिटर देवाच्या फर्मानाप्रमाण इनिअस कार्थेज सोडून वता आनी देखून डायडो जीव दिता. पांचव्या सर्गांत इनीअस सिसिलीक परतो येता आनी थंय आपल्या बापायच्या मरणाचो दीस मनयता. त्या निमतान खुबशा प्रकारचे खेळ खेळटात. ह्या खेळांवरवीं चवथ्या सर्गांत निर्माण केल्लो भावनात्मक ताण खुबशा प्रमाणांत ल्हव जाता.

सव्या सर्गांत इनीअस इटालींतल्या क्यूमी वाठारांत वता. थंयच्यान तो पाताळांत भोंवडी करता आसतना ताका एलिझियम हांगा पुण्यात्मे रावतात ते सुवातेर ताचो बापूय मेळटा. ताचो बापूय ताका भविश्यकाळांतले कर्तृत्ववान रोमन वीर दाखयता. तातूंत रोम्यूलस ते स्वता ऑगस्टस आनी ताचो पुतणयो मार्सेलस मेरेनचे खूब जाण आसतात.

सातव्या सर्गांत टायबर न्हंयच्या फांट्या कडल्यान भितर सरपी इनी-असाचे ट्रॉजन सेनेचें इटालीयन सेनेवांगडा झूज जाता. इतलेमेरेन कथेचो भाग आयला. ह्या झुजाचीं खुबशीं कारणांय ह्या भागांत आसात. राजकन्या लॅव्हिनिया हिच्या लग्नाची गजाल मुखेल आसा.

फुडल्या आठ ते बारा सर्गांनी इटालियन सेना आनी ट्रॉजन सेना हांच्या मदीं जाल्ल्या झुजाचीं विस्तारीत वर्णनां आसात. झुजाच्या निमाणें टर्नस आनी इनीअस हांचीं झगडीं जावन तातूंत टर्नसाक मरण येता. फुडें ह्या सर्गांत इनीअस आनी लॅव्हिनिया हांच्या लग्नाविशीं आसा. झुजांतल्या बारिकसारीक गजालींनी देवदेवता लक्ष घालतात, अशें ह्या सर्गांनी दाखयलां.

ईनिडच्या पयल्या स सर्गांचेर *ओडिसी (*)* ह्या महाकाव्याचो प्रभाव पडला. उपरांतच्या स सर्गांचेर *इलिअड (*)* ह्या ग्रीक महाकाव्याचो प्रभाव पडला. तशें पळोवंक गेल्यार इलिअड आनी ईनिड हीं महाकाव्यां एकठांय हाडलीं जाल्यार इलिअडांतलीच कथा ईनिड महाकाव्यांत फुडें व्हेल्या अशें दिसता. पूण इलिअड आनी ओडिसी हीं महाकाव्यां आमच्या रामायणा सारकीं पवित्र महाकाव्यां आसात तर ईनिड हें कालिदासान बरयल्ल्या 'रघुवंशा' सारकें महाकाव्य आसा.

ईनिड महाकाव्यांत रोमन राश्ट्रवादाची तोखणाय आनी ऑगस्टसचे राजवटीचें समर्थन करपाचो यत्न जाणवता. हेचखातीर ईनिडाचो राश्ट्रीय

महाकाव्य म्हूण गौरव जालां. इटली हें एकात्म राश्ट्र आशिल्ल्याची जाणविकाय ह्या महाकाव्यांतल्यान घडटा. मनशाचें दुखख आनी यातना हांचेविशीं दिसपी काकुळट व्हर्जिलान ह्या महाकाव्यांतल्यान भोव बरी मांडल्या. ईनिड काव्यांत सुर्वेक सावन निमाणेमेरेन एक प्रकारचो भावार्थीपणा भरला.

ह्या महाकाव्यांतल्यान इनीअस, ॲस्कनियस, डायडो, लॅटिनस, लॅव्हिनिया, ॲमाटा, टर्नस आदींची जीं व्यक्तिचित्रां चितारल्यांत तातूंत जितेपण दिसना; तर तीं अमूर्त प्रतिकां कशीं दिसतात.

युरोपीयन साहित्यांत ईनिडाक खाशेली सुवात प्राप्त जाल्या, तशेंच युरोपीयन साहित्याचेर ईनिडाचो व्हड प्रमाणांत प्रभाव पडिल्लो दिसता. १९५२ वर्सा सेसिल डे ल्यूइस हाणें ईनिडचो इंग्लीश भाशेंतल्यान पद्यांत अणकार केला. १९५६ वर्सा विल्यम फ्रान्सिस जॅकसन नाइट हाणें गद्यांत अणकार केला.

- कों. वि. सं. मं.

**ईश्वरचंद्र विद्यासागरः** (जल्मः २६ सप्टेंबर १८२०, वीरसिंह, मिदनापूर- अस्तंत बंगाल; मरणः २९ जुलय १८९१).

नामनेचो बरोवपी. व्हड संस्कृत पंडीत. विधवांविशींच्या कायद्याचो जनक आनी उदारमतवादी सुधारक. बापायचें नांव ठाकूरदास बंदोपाध्याय आनी आवयचें भगवतीदेवी आसलें.



ईश्वरचंद्र विद्यासागर

ईश्वरचंद्राक शिकपाची खूब उमेद आसली. घरची परिस्थिती गरीब आसून लेगीत बापायन ताका बरें शिक्षण दिवपाचें थारायलें. ईश्वरचंद्राची पिराय णव वर्सां आसतना ताच्या बापायन ताचें नांव कलकत्याच्या संस्कृत महाविद्यालयांत घालें. हिंदू धर्मशास्त्रांत ताणें खास वर्ग जोडलो. ताच्या प्रमाणपत्रांत, नांवांमुखार 'विद्यासागर' ही पदवी लायिल्ली. फुडाराक ताच्या आडनांवांतलें 'बंदोपाध्याय' हें नांव फाटीं पडून 'विद्यासागर' हें नांव सदांखातीर उरलें.

पिरायेच्या अठराव्या वर्सा त्याच महाविद्यालयांत व्याकरणाचो वर्ग घेवपाक ताणें आरंभ केलो. ताचें लग्न चवदा वर्सां पिरायेचेर शत्रुघ्न भट्टाचार्याची चली दीनमयी देवी हिचेकडेन जालें. १८४१ वर्सा फोर्ट विल्यिम कॉलेजींत तो मुखेल पंडीत जालो. १८५१ वर्सा तो ते कॉलेजीचो प्राचार्य जालो. १८५४ - ५८ मेरेन तो शिक्षणनिरीक्षक आसलो. सरकारी शिक्षणखात्यांत कामाक आसतना ३५ नवीं बालिका विद्यालयां ताणें सुरू केलीं. संस्कृत महाविद्यालयांत फकत ब्राह्मणांकच शिकप मेळटालें. विद्यासागरान हो नेम मोडून सगळ्या जमातींक शिकप दिवपाक सुरवात केली. १८५८ वर्सा अधिकारी वर्गाकडेन मतभेद जाल्ल्यान ताणें शिक्षणखातें सोडलें. विधवा बायलांविशीं ताका खूब काकुळट आनी दयेची भावना आसली. 'पराशर संहिते'त विधवा बायलांच्या लग्नाक मान्यताय दिल्या, हें ताणें स्पश्ट केलें. १८५६ वर्सा विधवा बायलांच्या लग्नाक मान्यताय दिवपी जो कायदो संमत जालो, तातूंत ताचो वांटो म्हत्वाचो आसा. आपल्या चल्याचें लग्न ताणें बालविधवेकडेन लावन दिल्लें. भुरगेपणांत चले-चलयांचीं लग्नां करपाक ताचो विरोध आसलो. ब्राह्मणाच्या कांय वर्गांभितर चड बायलो करपाची, सोरो पिवपाची चाल आसली. हे चाली आड तो वावुरलो. आपले जीणेंत राजा राममोहन रॉय हाचो बुध्दीवाद ताणें आदर्श मानलो.

संस्कृत भाशेचो व्हड जाणकार आसून लेगीत आपलें साहित्य रचपाखातीर आनी आपले विचार परगटावपाखातीर ताणें आवयभास बंगालीचो आदार घेतलो. सनातनी ब्राह्मण ताचे नवे चालीक संस्कृत भाशेंतल्यान बरोवन विरोध करताले. तेन्ना तो तांकां बंगालींतल्यान जाप दितालो. हाका लागून ताचे विचार सकयल्या वर्गामेरेन पावले. समाजाच्या सगळ्या थरांतल्यान ताका व्हड फाटबळ मेळ्ळें. बंगाली भास सादी, सोपी आनी सुटसुटीत करपाक ताणें केल्लो वावर म्हत्वाचो आसा. ताणें बंगाली साहित्याक नवी दिका दिली. राजा राममोहन रॉय हाची साहित्यशैली सादारण आसली. विद्यासागरान ती सगळ्यांमेरेन पावयली, देखून ताका आर्विल्ल्या बंगाली साहित्याचो मूळपुरुस मानतात. शिक्षणाचो प्रसार, समाजसुदारणा आनी साहित्याची निर्मणी ह्यो तीन मोखी आपले मुखार दवरून ताणें बरप केलें.

संस्कृत भास सोपेपणान शिकूंक मेळची म्हूण ताणें 'बोधोदय' (१८५१), 'उपक्रमणिका' (१८५१), 'ऋजुपाठ' (३ वांटे, १८५१-५२), 'व्याकरण कौमुदी' (३ वांटे १८५३ आनी १८६२), 'वर्णपरिचय' (२ वांटे- १८५५) हे ग्रंथ रचले. बंगाली भास शिकपाक मेळची म्हूण 'कथामाला' (१८५६), 'शब्द मंजरी' (शब्दकोश) तयार केलो. 'बांगलार इतिहास' (१८४८), 'जीवन चरित' (१८४९), 'चरितावलि' (१८५६), 'भूगोल-खगोल-वर्णन' (१८९२) हे ग्रंथ ताची इतिहासीक नदर आनी बुध्दीचो आवांठ दाखयतात. 'शकुंतला उपाख्यान' (१८५४), 'सीतार वनबास' (१८६०), 'आख्यान मंजरी' (१८६३), 'भ्रांतिविलास' (१८६९) हे ताचे हेर ग्रंथ आसात. 'वेताल पंचविंशति' हो ताचो ग्रंथ खूब गाजला. विधवा बायलांच्या प्रस्नांची फोडणिशी करपी 'विधवाविवाह' (१८५५) हो ताचो ग्रंथ अप्रूप आसा. विद्यासागरान संस्कृत नाटकांचें तेचपरी महाभारत सारक्या बारा ग्रंथाचें संपादन केलां. १८७७ वर्सा कलकत्त्यांत भरिल्ल्या दरबारांत, इंग्लंडचे राणयेकडल्यान ताणें भोवमानाची सनद जोडली. फुडें सी. आय्. इ. ही पदवी ताणें जोडली.

ईश्वरचंद्रान आपली पुराय जीणभर जोडिल्ली जोड गरीब, दुबळे, दुखखी, कश्टी लोकांखातीर खर्च केली. तो अज्ञेयवादी आसलो. देव, धर्म, अध्यात्म सारक्या गजालींनी तो केन्नाच घुस्पलो ना. मनशाक मनीसपणान वागोवप होच खरो धर्म अशें ताणें मानलें. बंगालांतलो सादारण मनीस ताका 'दयासागर' म्हूण वळखता.

- कों. वि. सं. मं.

**ईस्टरः** किरिस्तांव लोकांची म्हत्वाची परब. हाका 'पास्कांची परब' अशेंय म्हण्टात. पालेस्तीन देशांत रोमन आनी ज्यू लोकांनी एकठांय येवन जेजू क्रिस्ताक खुरसार जिवेशी मारलो. उपरांत तिसऱ्या दिसा (आयतार) जेजू क्रिस्त परतो जिवो जालो. ह्या प्रसंगाची याद म्हूण ईस्टर मनयतात.

वसंत ऋतूंत पयले पुनवेउपरांत येवपी आयताराक ही परब मनयतात. ईस्टर खंयच्या आयताराक मनोवचो हेविशीं जायते मतभेद आसले. इ. स. ३२५ वर्सा किरिस्तांव धर्मगुरुंनी हो वाद मिटयतना २१ मार्च उपरांत येवपी पुनवेक ही परब मनोवची अशें सांगलें. लीग ऑफ नेशन्सचे कॅलेंडर कमिटीन हे विशीं आनीक एक फावट विचार केलो. तेवरखीं १९२८ वर्सा संसदेन एक कायदो संमत केलो. तातूंत एप्रिलाच्या दुसऱ्या शेनवारा उपरांत येवपी आयतार, ईस्टराचो दीस म्हूण मानचो हो थाराव संमत केलो. दुसऱ्या शतमानासावन 'जेजू क्रिस्त परतो जिवो जालो, देखून सगळ्यांक दिल्ली समरादना' ह्या अर्थान हो दीस मनयतात.

अस्तंतेच्या राश्ट्रांनी ईस्टराविशीं जायत्यो आख्यायिका आनी समज चलतात. पूर्विल्ल्या ॲंग्लो सॅक्सन लोकांच्या मताप्रमाण ईस्टर ही ऋतूची देवता आसून तिच्या उगडासाक ही परब मनयतात. हे लोक एप्रिल-मे म्हयन्यांत ही परब मनयताले. कांय जाण हे परबेक पूर्विल्ल्या काळांत

चलतल्या विशुवदिसाचे (equinox) परबेचो वांटो मानतात. पोरने चालीचे इंग्लीश लोक ह्या दिसा सूर्य नाचता, अशें मानतात. त्या दिसा ते सुर्यावटेन तोंड करून बसतात. कांय उदक भरिल्ल्यो कळसुल्यो वा आयदनां उदकांत दवरतात. उदक हालतकच ताचेवेलें किर्ण हालता आनी तें किर्ण नाचिल्ल्यावरी दिसता. हेच तरेची चाल आयर्लंड देशांतूय चलता.

संवसारांतले सगळे किरिस्तांव लोक ही परब व्हडा उमेदीन मनयतात. इगर्जांचेर रंगरंगयाळी रोशणाय करतात. सगळे नवे नवे भेस करून इगर्जांनी वतात. घरांत बरें जेवणखाण करतात. ह्या दिसा खुरीस, तांतीं, बोकडेपेटो हांच्यो कुरो करतात. ह्या दिसा तांतीं वांटपाची चाल चलता. तांतयांतल्यान नवो जीव जल्मता, देखून जेजूच्या जिवो जावपाकडेन ताचो संबंद लावन हे गजालीकडेन तांतीं 'कुरू' वा 'प्रतीक' हे नदरेंतल्यान पळेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**उंट (करें)** : समखुरी प्राणी गणांतलें सगळ्यांत व्हडलें जनावर.

वर्गीकरणः संघ (phylum)- रज्जुमान (chordata); उपसंघ (sub-phylum)- पृष्ठवंशी (vertebrata); वर्ग (class) -स्तनीवर्ग (mammalia); गण (order)-आरिओडॅक्टिला; उपगण-टायलोपोडा; कूळ-कॅमेलिडे; प्रजाती- कॅमेलस; जाती- ड्रॉमेडरियस.

नाकापसून शेपडेमेरेनची लांबाय २२५-३४५ सेंमी.; मदारी (गोळ) सकट शरीराची उंचाय १९०-२३० सेंमी.; वजनः ४५०-६५० किग्रॅ.; तकली आनी मान लांब तशेंच कमानदार; ओंठ लांब आनी हुमकळ्ळेले; कान ल्हान; नर आनी मादी दोनूय जातीच्या उंटाचे तकलेचेर काळो पदार्थ आशिल्ली कात-ग्रंथीची एक जोडी आसता. फाटीचेर एक वा दोन मदारी (कुबड) आसतात. पांय खूब लांब आसतात. तळव्यांचेर दोन विभाग आशिल्लीं गेतां (cutaneous pads) आसतात. छाती, कोंपर, हात, धोंपर आनी टांचो ह्या अवयवांचेर जल्मजात गुटां (खीणां) आसतात. मोव, लोकरी कात कांय अवयवांचेर मोटवी आसता जाल्यार कांय अवयवांचेर लांबट आसता. दांत ३२-३८ (चड करून ३४), मादी उंटाक २ पाने आसता. उंट साधारणपणान सुमार ४० वर्सां जियेता.



उंटाच्यो दोन जाती आसातः १. दोन मदारी आशिल्लें उंट. नांवः बॅक्ट्रियन उंट (Camelus Ferus) २. एक मदार आशिल्लें उंट. नांवः ड्रॉमेडरी (Camelus dromedarius).

उंटाचो मूळ उगम निश्चित सांगप कठीण. आज उंटाच्यो दोनूय जाती आशिया, उत्तर आफ्रिका आनी दक्षिण अमेरिकेंत मुखेलपणान दिसून येतात. हेर खंडांतूय उंटाचो प्रसार जाला आनी पूर्विल्ल्या काळांत उंटां उत्तर अमेरिकन खंडांत सांपडिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. हीच उंटाची मूळ सुवात (habitat) अशें मानतात. उत्तर अमेरिकेच्या 'इओसीन' (आदिनूतन) काळांत खडकाळ थरांनी उंटासारक्या जनावरांचे अती पूर्विल्ले अवशेश सांपडल्यात. तांचो काळ सुमार ४ कोटी वर्सांआदलो आसा असो अदमास धरतात. उंटाचो पयलो वंशज 'प्रोटिलोपस' हो सोंश्याभशेन दिसतालो आनी ताका फुडल्या पांयांत ४ आंगळां आनी फाटल्या पांयांत २ आंगळां आशिल्लीं. मध्य आनी उत्तर अमेरिका ऑलिगोसीन (अल्पनूतन, ३.५ कोटी वर्सांआदलो काळ) युगांतलें हरणाच्या आकारायेदें आशिल्लें 'पोब्रॅथिरियम' जनावर उंटाभशेनूच दिसतालें. उंटाचो उगम मुळांत pre-camel (procamelus) प्रजातींतसून जालो. हालींच्या काळांत संवसारांत आयस-पयस सगळ्याक पातळिल्ले उंट मुळांत तृतीय (tertiary) युगाचे अखेरेक (सुमार २० लाख वर्सांआदीं) युरेशियाक स्थानांतर जाल्ले.

भारतांत उदेंत आनी उत्तर आफ्रिका खंडांत अरेबियन उंट दिसून येतात. एके मदारीचो ड्रॉमेडरी उंट उत्तर आनी ईशान्य आफ्रिकेंतल्या वाळवंटी वाठारांत दिसून येता. इथिओपिया, ईजिप्त, आल्जेरिया, मॉरिटानिया, माली, उत्तर नायजेरिया, उत्तर केनिया, मोरोक्को, चॅड, सोमालिया आनी ट्युनिशिया हांगाय उंट दिसून येता. १९७० त फकत आफ्रिकेंत ९० लाख उंटां आशिल्लीं. बॅक्ट्रियन उंट मध्य आशिया खंडांत उंचेल्या पर्वतभागांचेर (highlands) दिसून येता. गोंयांत मात उंट नात.

घरगुती पोशिल्लें उंट मर्यादित काळांतूच माजाक वता. पाळीव उंटां फकत फेब्रुवारी आनी मार्च म्हयन्यांत माजाक वतात. माजाच्या ऋतूंत नर उंट आपल्या तोंडांतली ताळू पेंचता. अशा वेळार उंट ताळवेंतसून 'गडगड' असो मोटो आवाज करता. केन्नाकेन्नाय नर उंट आक्रमक जाता आनी भोंवतणच्या लोकांचेर घुरी घालून तांकां आपल्या तीक्ष्ण दांतांनी घांस काडटा आनी अशे तरेन जितो लेगीत मारुंक शकता. संयोगाउपरांत मादी सुमार ३६५-४४० दिसांभितर एकाच पिलाक जल्म दिता. दोन ते तीन वरांभितर उंटाचें पिल चलपाक लागता. मादी आपल्या पिलाक एक वर्सापरस चड काळमेरेन पोसता. ड्रॉमेडरी उंट वेवस्थित खावड घाल्यार आपल्या पिलाक दूद दिवन लेगीत दिसपट्टें भरपूर दूद दिता. ग्राझीमॅक हाच्या मताप्रमाण उंटाच्या दुदांत ६.४% चरबी, ४.५% लॅक्टोज, ६.३% नायट्रोजन पदार्थ आनी ०.९% गोबोर (ash) आसता.

ज्या देशांत उंटाच्यो दोनूय जाती सांपडटात, तांकां नेमान संकरीत (cross-breed) करतात. अशे तरेन जल्मल्लीं संकरीत पिलां (hybrids) आवय-बापायपरस व्हडलीं आनी सशक्त आसतात पूण तीं एकामेकांवांगडा तांच्याभितर प्रजनन (breed) केल्यार एक तर वांझ जातात वा दुबळ्या पिलाक जल्म दितात. देखून संकरण करतना मूळच्योच जाती (original species) घेतात.

सगळ्यांत पयलीं उंटाचो उपेग केन्ना जालो हें निश्चित सांगप कठीण. पूण इ. स. प. १००० च्या सुमाराक मेसोपोटेमियांत एक मदार आशिल्लें उंट सामानाचें वजें व्हरपाक उपेगांत हाडलें, असो उल्लेख मेळटा. इ.स. प. तिसऱ्या शतमानांत दोन मदारींचें उंट पोसपाची पध्दत आशिया, उत्तर चीन आनी दक्षिण रशियांत सुरू जाली. गाडयो (उंटाची स्वारी) ओडून व्हरपाखातीर, शेतांत जोताक बांदपाखातीर तशेंच उदक काडपाखातीर उंटाचो उपेग जाता. एके मदारीचें ड्रॉमेडरी उंट, उत्तर आफ्रिका, नैर्ऋत्य आशिया आनी राजस्थानच्या वाळवंटांत मेंढपाळांच्यो सगळ्यो गरजो भागयता. आफ्रिकेंतले सोमाली मेंढपाळ राखणे उंटाचे कळप पोसतात. शेतकी वेवसायांत जड वजनाचीं वजीं (कापूस, भिकणां, तण, लोकर) व्हरपाक उंटाचो उपेग जाता. 'साकीया' ही जड वजनाची पर्शियन गिरण घुंवडावपाचें कठीण काम उंट करता. उंटाच्या केंसांचो उपेग ब्रश, तंतू, जमखनां, दाट कपडे करपाखातीर जाता. उंटापसून दूद आनी मांस मेळटा. उंटाचें सुकें शेण स्टेप्स आनी हेर वाळवंटांत म्हत्वाचो जळव म्हूण वापरतात. कारण ह्या वाळवंटांत फाव त्या प्रमाणांत लांकूड मेळना.

एक उंट दिसाक सरासरी २० किमी. अंतर चलून वता. पूण धश्टपुश्ट आनी प्रशिक्षित उंट दिसाक ८० किमी. लेगीत चलूंक शकता. मध्य

आशिया, उत्तर चीन, मंगोलिया हांगा दोन मदारींचे बॅक्ट्रियन उंट pack animal (म्हालवाहू) म्हूण वापरतात. चीनांतले उंट ११५-१३५ किलोचें वजें दिसाक सुमार ४० किमी. अंतराचेर व्हरता. सामकीं सशक्त आनी घटमूट उंटां २७० किग्रॅ. वजन लेगीत सहज व्हरूंक शकता आनी एका म्हयन्यांत १०५० किमी. अंतर कापूंक शकतात. भारतांतलो बळिश्ट ड्रॉमेडरी नर उंट २२५-२९५ किग्रॅ. चें वजें दिसाक ३२ किमी. अंतराचेर व्हरूंक शकता. एकदम बरीं उंटां ४०५ किग्रॅ. चें वजें लेगीत ल्हान अंतराचेर व्हरतात.

उंटां वाळवंटांत, सपाट माळरानांचेर आशिल्ल्या Grass-Steppes वाठारांत आनी १५०० ते २००० मी. उंचायेच्या दोंगराळ प्रदेशांत रावतात. उबाळांच्या दिसांनी जंय वाळवंटी तण, झीली, झोंपां जातात अशा व्हड वाळवंटी देगणांनी रावतात. शिंयाच्या दिसांनी ६ ते २० उंटां कळप करून सुकिल्ल्या खाडयांनी वा मरुवनाच्या (oasis) लागसार रावतात. ह्या कळपांत चड करून मादी उंट आनी पिलांच आसतात. दरेक कळपाचें मुखेलपण एक नर उंट करता. बाकीचे नर उंट एकोडेच रावतात.

उंट उबाळांच्या दिसांनी ५०° से. तापमानांत जाल्यार थंडेच्या दिसांनी -२७° से. तापमानांत रावंक शकता. पूण थंड हवामान तांकां बरें मानवना. खरखरीत वोताच्या उबाळांत १७ दिसांमेरेन उंट उदकाविना रावंक शकता. तानेन सुकिल्लें उंट १० मिनटां भितर १३५ लि. उदक पियेवन देंविल्लें वजन वाडयता.

उंटां तांची चरबी फाटीचेर सांठ्यता. चरबी तांची कडक वोतापसून राखण करता. तेचप्रमाण मदारींत सांठयल्ले चरबीचें गरजेप्रमाण जाय तेन्ना ऑक्सिडीकरण (oxidation) करून उंट उदक तयार करता आनी आपली तान भागयता.

उंटाक Virus Camel-pox हो रोग व्हायरसा (विषाणू) पसून जाता. तशेंच रानांतल्या जळारांपसून 'सरा' हो रोग जाता. सरा हो रोग चीन, भारत आनी इराण ह्या देशांत चड प्रमाणांत दिसून येता. रोगाचीं लक्षणां रक्तक्षय (anaemia), वजन देंवप, पांय, पोट आनी जननेंद्रिय सुजप अशीं आसात.

रेंवट वाळवंटांतल्यान वजें घेवन वचप दुसऱ्या खंयच्याच प्राण्याक शक्य ना म्हूण उंटाक 'वाळवंटांतलें जहाज', 'वालुकारण्य नौका' (desert ship) अशें नांव पडलां.

- प्रा. एस्. आर. गनीहार

**उ:** देवनागरी वर्णमालेतलें पांचवें अक्षर. हाचो उच्चार ओंठांतल्यान जाता आनी हाचे ऱ्हस्व-दीर्घ-प्लुत अशे तीन उच्चार जातात. हाका आयचें स्वरुप मेळच्याआदीं चार अवस्थांतल्यान वचचें पडलें.



*उ चो विकासक्रम*

हातूंतली पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनार हांगाच्या शिलालेखांत (इ.स.प. तिसरो शेंकडो) पळोवपाक मेळटा. दुसरी अवस्था मथुरेच्या लेखांत (इ.स.प. पयलो शेंकडो) दिसून येता. सकयले आडयेक बाग दितकच तिसरी अवस्था जाली. चवथे अवस्थेंतलें वळण राजा यशोधर्म हाचे मुस्तींतल्या मंदोसर लेखांत (इ.स. ५३२) आयलां. आयचो 'उ' हो इ.स. ८३७ च्या जोधपूर लेखांत सश्ट आनी वळणदार असो पळोवंक मेळटा.

*हाचें वर्णन कामधेनुतंत्रांत अशें केलां:*

'उकारं परमेशानि अधः कुण्डलिनी स्वयम्।
पीतचम्पकसङ्काशं पञ्चदेवमयं सदा।
पञ्चप्राणमयं देवि चतुर्वर्गप्रदायकम्॥'

अर्थ- हे देवी, उकार हो सकयल्या भागांत कुंडलाकार आसून तो हळडुव्या चांफ्यासारको आनी पंचदेवमय आसा. हो पंचप्राणात्मक आसून चतुर्विध पुरुषार्थ प्राप्त करून दिवपी आसा. वर्णभिधानांत हाका शंकर, वर्तुलाक्षी, भूत हीं नांवां आसात. मातृकान्यासांत उजवो कान ही हाची सुवात अशें म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**उजवाड:** ज्या प्रारण (radiation) स्वरुपाच्या तरंगरुपी ऊर्जेची नोंद दोळो घेवंक शकता, ताका उजवाड अशें म्हण्टात. सूर्याच्या उजवाडाक लागून आमकां धर्तरेवयल्यो वस्तू दिश्टी पडटात. रातीकडेन चंद्र, सूर्यापसून परावर्तित (reflected) केल्लो उजवाड दिता. उजवाड ही भौतिकशास्त्राची एक म्हत्वाची शाखा जावन आसा. जशेपरी उश्णता, विद्युत्, चुंबकता ही एक तरेची ऊर्जा आसता, तशीच उजवाड ही एक तरेची ऊर्जा (energy) जावन आसा. फोटोफिल्म उजवाडांत हाडल्यार काळें जाता. उजवाडाच्या झोतांत प्रारणमापक (radiometer) दवरल्यार ताचीं पातीं धुंवपाक लागतात. हाचेवयल्यान अशें दिसून येता की उजवाड कसलो तरी वावर (work) करीत आसता. देखूनूच, उजवाडाक एक प्रकारची ऊर्जा अशें म्हण्टात.

**इतिहास:** इ. स. प. सव्या शेंकड्यांत ग्रीक तत्त्वज्ञ पायथॅगोरस हाणें उजवाड म्हळ्यार 'आमच्या दोळ्यांतल्यान येवपी (जल्ल्याच्या स्पर्शक इंद्रियासारके) स्पर्शक आसतले आनी खाशेले वस्तूक ह्या स्पर्शकांचो स्पर्श जालो म्हण्टकच ती वस्त आमकां दिशिल्ल्याची जाणविकाय जाता' अशी कल्पना मांडली. इ.स.प. तिसऱ्या शेंकड्यांतल्या एपिक्यूरस (ग्रीक तत्त्वज्ञ) हाणें 'वस्तूपसून परावर्तित जाल्लो उजवाड दोळ्यांत आयलो म्हण्टकच ती वस्त आपणाक दिसता' अशी कल्पना मांडिल्ली. त्याच शतमानांतल्या यूक्लिड ह्या नामनेच्या गणितशास्त्रज्ञाक 'आपाती कोन (angle of incidence) आनी परावर्तन कोन (angle of reflection) हे समभूज आसतात' हो परावर्तनाचो नेम खबर आशिल्लो अशें म्हण्टात.

इ. स. पयल्या शेंकड्यांतल्या टॉलेमी ह्या नामनेच्या ज्योतिर्विदाक वातावरणीय प्रणमनाक (refraction) लागून गिऱ्यांच्या मळबांतल्या सुवातेंत भासमान बदल जाता, हें खबर आशिल्लें. प्रणमनाचे नेम सतराव्या शेंकड्यांत व्हिलेब्रॉर्ट स्नेल ह्या डच शास्त्रज्ञान सोदून काडले अशें म्हण्टात. पूण ताचे आदीं इकराव्या शतमानांतूच अल् हसन ह्या अरब शास्त्रज्ञाक हे नेम खबर आशिल्ले अशें म्हण्टात. पंदराव्या शेंकड्यांत लिओनार्दो दा व्हींची ह्या शास्त्रज्ञान 'उजवाडाचें प्रसारण सरळ वळींत जाता' ही गजाल सोदून काडली. योहानेस केप्लर ह्या ज्योतिर्विदान सतराव्या शेंकड्यांत उजवाडाविशींचे आनीकूय कांय नेम सोदून काडले. सतराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत न्यूटन (१६४२-१७२७) हाणें आर्विल्ल्या उजवाडाविशींच्या अभ्यासाची बुन्याद घाली. कंवचेच्या भिंगांतल्यान (prism) धव्या उजवाडाची शलाका (beam of light) सोडली जाल्यार दुसरेवटेन सप्तरंगांचो वर्णपट (spectrum) मेळटा. हो सप्तरंगी उजवाड उरफाटे दिक्‌स्थितींत (orientation) दवरिल्ल्या भिंगांतल्यान सोडलो जाल्यार सप्तरंगांचें एकीकरण जावन परत धवी 'उजवाड शलाका' मेळटा हो म्हत्वाचो प्रयोग ताणें केलो. ताचेवेल्यान धवो उजवाड हो सप्तरंगांच्या भरसणेपसून तयार जाल्लो आसता असो निश्कर्श ताणें काडलो. 'उजवाड हो अतिसूक्ष्म आनी वस्तुमानविरयत अशा कणांपसून तयार जाल्लो आसता' असो उजवाडाच्या स्वरुपाविशींचो आपलो सिध्दांत न्यूटन हाणें मांडलो.

ह्याच काळखंडांत ओलाडस रोमर (१६४४-१७१०) ह्या डॅनिश ज्योतिर्विदान गुरु गिऱ्याभोंवतणी धुंवपी चंद्रांच्या गिराणांक लागपी काळ मेजून ताचेवयल्यान पयलीं उजवाडाचो वेग निश्चित केलो. एफ्. एम्. ग्रिमाल्दी (१६१८-६३) ह्या इटालियन शास्त्रज्ञान उजवाडाच्या

विवर्तनाचो (diffraction) सोद लायलो.

उजवाड म्हळ्यार खंयच्या तरी माध्यमांतले तरंग आसात, ह्या सिध्दांताच्या तत्त्वाचेर हायगेन्झ (१६२९-९५) हाणें तरंग सिध्दांताची बुन्याद घाली. ह्या सिध्दांतावरवीं हायगेन्झ हाणें परावर्तन, प्रणमन ह्या उजवाडाच्या आविश्कारांची विस्कटावणी केली. टॉमस यंग (१७७३-१८२९) आनी ए. जे. फ्रेनेल (१७८८-१८२७) हांणी तातूंत मोलादीक भर घाली. १८८७ त ए. ए. मायकेल्सन आनी ई. डब्ल्यू. मॉर्ली हांणी उजवाड-वेगाविशींचे कांय सिध्दांत उजवाडायले. १८६४ त जे. सी. मॅक्सवेल हाचीं 'मॅक्सवेल समीकरणां' उजवाडाक आयलीं. १८८७ त एच्. आर्. हर्ट्झ हाणेंय 'उजवाड हो विद्युत् चुंबकीय तरंगरुप आसा' अशें सिध्द करपाखातीर कांय प्रयोग केले.

विद्युत् चुंबकीय तरंग सिध्दांताक लागून उजवाडाविशींच्या सगळ्या प्रस्नांची पुराय विस्कटावणी जाली ना. देखून १९०० त, माक्स प्लांक ह्या जर्मन शास्त्रज्ञान पुंज सिध्दांतावयलें समीकरण उजवाडावन 'पुंज सिध्दांत' (Quantum theory) ही क्रांतिकारक कल्पना मांडली.

**उगमः** उजवाडाचे उगम दोन तरांचे आसतात. उश्ण आनी थंड. सूर्य, गिरे हे उश्ण उजवाडाचे उगम जावन आसात. विद्युत् दिव्याच्या (electric bulb) तंतूंत (filaments) जर विद्युत् प्रवाह सोडलो जाल्यार तंतूंचो ताप चड जावन वाडटा आनी भितल्ल्यान उजवाड येता. तशेंच कसलोय धातू खूब तापयलो जाल्यार तो उजवाड दिता. हे सगळे उश्ण उजवाडाचे उगम आसात. क्ष-किरण, हळडुवो फॉस्फोरस, टी. व्ही. चो पड्डो हीं सगळीं थंड उजवाडाच्या उगमाचीं उदाहरणां.

ट्यूबलाइट, बल्ब हांचो उजवाड असंख्य बिंदूंपसून जाल्लो आसता. बिंदू उगमाचो उजवाड सगळे वटेन वता. तो जे सरळ वाटेन वता तांकां उजवाडाचे किरण अशें म्हण्टात. एका बिंदू उगमापसून असंख्य उजवाडाचीं किरणां येतात. ट्यूबलाइट, बल्ब हीं बिंदू उगमापसून तयार जाल्ल्या विस्तारित उगमाचीं (extended source) उदाहरणां आसात. उजवाडाचें प्रसारण सरळ वळींत जाता.

पावसाच्या दिसांनी आमकां जोगलाचो उजवाड पयलीं दिसता आनी मागीर गडगडाचो आवाज आयकुपाक येता. तशेंच पयस फुगेट लायली जाल्यार उजवाड पयलीं दिसता आनी मागीर आवाज आयकुपाक येता. हाचेवयल्यान अशें दिसून येता की उजवाडाचो वेग आवाजाच्या वेगापरस चड आसा. निर्वात पोकळसाणीत (vacuum) उजवाडाचो वेग= $३\times१०^{८}$ मी./सेकंद आसता म्हळ्यार एका सेकंदाक उजवाड तीन लक्ष किमी. प्रसारण करता. एका वर्साक उजवाड जितलें अंतर प्रसारण करता, त्या अंतराक एक उजवाड वर्स (light year) अशें म्हण्टात. एक उजवाड वर्स= $९.६\times१०^{१२}$ किमी. खूब पयसुल्ल्या वस्तुंचें, देखीक, धर्तरी आनी तारे हांचेमदलें अंतर उजवाड वर्सांनी मेजतात.

**उजवाडाची तीव्रता** (Intensity of light): वाचता आसतना एका थारावीक तीव्रतायेचो उजवाड आमकां जाय आसता. कमी उजवाड पडल्यार दोळ्यांचेर ताण येता आनी चड उजवाड पडल्यार दोळ्यांक त्रास जाता. उजवाडाची तीव्रता ताच्या उगमाचेर आनी ताच्या अंतराचेर पातयेवन आसता. एकाच जाग्यार आशिल्ली मेणवात आनी बल्ब हांच्या उजवाडाची तीव्रता वेगळी आसता. चड शक्तीच्या बल्बाचो उजवाड दोळ्यांक खर आनी झगझगीत दिसता. त्या मानान मेणवातीचो उजवाड मंद दिसता. शास्त्रीय भाशेंत अशें म्हण्टात की बल्बाची अनुदीप्त (luminous) तीव्रताय मेणवातीपरस चड आसा. वेगवेगळ्या उजवाड उगमाची अनुदिप्त तीव्रता वेगवेगळी आसता. अनुदिप्त तीव्रतेचें मापन करपाक candella हें एकक (unit) वापरतात. बल्बाची शक्त मेजपाखातीर वॉट (watt) हें एकक वापरतात. १०० वॉट शक्तीच्या बल्बाची अनुदिप्त तीव्रता १२५, कँडेला (candella) आसता.

**दीपनः** (Illumination): एकाद्र्या दिव्यामुखार पापेलांव दवरलो जाल्यार ताचेर उजवाड पडटा आनी ताचेर पडिल्लो जो उजवाड आमच्या दोळ्यांक दिसता ताका 'दीपन' अशें म्हण्टात. दिव्यापसून अंतर चड केलें जाल्यार दीपन कमी जाता. दीपन मेजपाक लक्स (lux) हें एकक वापरतात.

**व्यस्तवर्ग नेमः** (Inverse Square Law): दिव्यापसून अंतर चड केल्यार दीपन कमी जाता. तेचपरी अंतर तितलेंच दवरलें आनी बल्बाची अनुदिप्त तीव्रता चड केली जाल्यार दीपन चड जाता. दीपन आनी अनुदीप्त तीव्रता समानुपाती आसतात. दीपन (I in Lux), अनुदिप्त तीव्रता (C in Candella) आनी अंतर (d in meter) सकयल दिल्ल्या नेम-सूत्राप्रमाण आसतात.

$$I \propto \frac{C}{d^2}$$

वेगवेगळ्या कामाखातीर वेगवेगळें दीपन लागता. देखीक- वाचपाखातीर ४० ते ६५ लक्स इतलें दीपन आसूंक जाय. नाटकाखातीर रंगमाचयेवयलें दीपन चड म्हळ्यार २७० लक्स इतलें दवरतात.

**उजवाडाचें परावर्तन** (Reflection of light): कसल्याय वस्तूचेर उजवाड पडलो जाल्यार, त्या उजवाडाचो थोडो भाग परावर्तीत जाता, थोडो भाग ती वस्तू सोसून घेता आनी ती वस्त पारदर्शक आसली जाल्यार उजवाडाचो थोडो भाग आरपार वता. चकचकीत आनी गुळगुळीत वस्तूचेर उजवाड चड प्रमाणांत परावर्तीत जाता. हारशाचेर पडिल्लो सगळो उजवाड परत येता, म्हळ्यार परावर्तीत जाता.




*आकृती: उजवाडाचें परावर्तन*

**परावर्तनाचे नेमः** १. अपाती किरण आनी परावर्तीत किरण स्तंभिकेचे उरफाटे वटेन आसता. २. अपाती कोन (अ) आनी परावर्तीत कोन (प) सारके आसतात. ३. अपाती किरण, स्तंभिका आनी परावर्तीत किरण एकाच प्रतलांत (plane) आसतात. समांतर किरणशलाका (beam of light) सपाट आनी गुळगुळीत वस्तूचेर पडल्यार परावर्तीत किरणशलाका समांतर उरता. असल्या परावर्तनाक 'नियमित परावर्तन' अशें म्हण्टात. समांतर किरणशलाका जर खडबडीत वस्तूचेर पडली, जाल्यार परावर्तीत किरणशलाका समांतर उरनात. असल्या परावर्तनाक 'अनियमित परावर्तन' अशें म्हण्टात. जेन्ना कसल्याय वस्तूचेर उजवाड पडटा, तेन्ना तो उजवाड परावर्तीत जाता. तीं परावर्तीत किरणां आमच्या दोळ्यांत वतात आनी तेखातीर आमकां ती वस्त दोळ्यांनी दिसता.

**पराशय** (Parallax): उजवाडाचेर प्रयोग करतना पराशयाचो खूब उपेग जाता. हारशामुखार कसलीय वस्त दवरली जाल्यार ताची प्रतिमा (image) दिसता. ती प्रतिमा खंय जाल्या तें कळपाक पराशय पध्दतीचो उपेग करचो पडटा. धांवते गाडयेंतसून भायले वटेन पळेलें जाल्यार वीजेचे खांबे आनी झाडां उरफाटे दिकेन वतात अशें दिसता. खरें तर झाडां, खांबे एकाच जाग्यार आसतात पूण गाडी मात चलता. जी वस्त पयस आसता ती गाडयेचे दिकेन वता आनी जी वस्त लागीं आसता ती गाडयेचे उरफाटे दिकेन वता अशें दिसता. हे प्रक्रियेंत, झाडां आनी खांब्यांमदीं पराशय (parallax) आसा अशें आमी म्हण्टात. दोन वस्तू एकाच जाग्यार आसल्यो जाल्यार, तांच्या मदीं पराशय ना अशें म्हण्टात.

- प्रा. राजेंद्र काणेकार

**उजो:** उजो म्हळ्यार जातूंत उजवाड आनी उश्णता उत्पन्न जातात, अशी नेटान घडून येवपी रसायनीक विक्रिया. हे विक्रियेच्या आंगांत स्वताक चालू दवरपाचो गूण आसता आनी मुद्दम पालयल्याबगर वा जळव सोंपल्याबगर ती थांबना. सामान्य जैव पदार्थांतलो कार्बन वा एकाद्रें ज्वलनशील द्रव्य आनी ऑक्सिजन हांचो नेटान संयोग जावन उश्णता, जोत आनी उजवाड उत्पन्न जातात. ऑक्सिजन सोडून हेर मूलद्रव्यांवांगडा विक्रिया जाल्यानूय उजो उत्पन्न जावं येता. देखीकः जस्तासारके कांय विक्रियाशील धातू क्लोरिनाच्या वातावरणांत व्हरतकच उजवाड आनी उश्णता उत्पन्न जातात.

जळटा आसतना इंधन बाश्परुपांत आसत जाल्यार उज्यावांगडा जोत तयार जाता. पूण वाती बगरूय उजो आसूं येता. वातीचो रंग हो जळपाचे विक्रियेंत वांटो घेवपी द्रव्यांचेर आनी तापमानाचेर आदारून आसता.

'उजो' हो शब्द 'उग्निस' ह्या लिथुआनिया भाशीक शब्दवाचक वर्णांतल्यान कोंकणी भाशेंत आयला आसूंक जाय. उग्निस> उज्निस> उजिसृ > उजो. उजवाड दिवपी तो उजो, अशा अर्थानूय 'उजो' शब्द आयला अशें म्हण्टात. संस्कृत भाशेंतूय 'अग्नि' हो शब्द आसा. 'अग्नी' हो शब्द भायल्या देशांतल्या कांय भासांकडेनूय संबंदीत आसा. देखीकः लॅटिन-इग्निस, लिथुआनिया-उग्निस, स्कॉटिश-इंगळे. 'अग्नी' ह्या शब्दाची व्युत्पत्ती अशी करतातः १. अङ्गति उर्ध्वं गच्छति इति अग्निः अर्थ-वयर वता तो अग्नी.

२. जातो यदग्रे भूतानामग्रणीरध्वरे च यत् ।<br>
नाम्ना संनयते वाङ्गं स्तुतोऽग्निरिति सूरिभिः।।

(बृहद्देवता २.२४)

अर्थः सगळ्या भूतांच्या पयलीं जल्मल्लो, यज्ञांत अग्रणी आनी यज्ञाच्या आंगांचें संनयन करपी, म्हूण अग्नी अशी विद्वानांनी ताची तुस्त केल्या.

उजो हो वनस्पतीचो तशेंच झाडाचो गर्भ जावन आसा. तो द्यावा-पृथिवीचो चलो अशें वर्णन वेदांत मेळटा. (ऋग्वेद-२:१:१४;१:७०:४)

मनीसवंशाचे उदरगतीचो पयलो आनी म्हत्वाचो पांवडो म्हळ्यार उज्याचो सोद. पूर्विल्ल्या काळांत म्हळ्यार चार लाख वर्सांपयलीं हिमांतरयुगांत (Second-Glacial Epoch) उज्याचो सोद लागला आसूंक जाय अशें शास्त्रज्ञांचें मत आसा. उजो पयलेच खेप निर्माण कसो जालो हाचेविशीं बऱ्योच दंतकथा सांगतात. आदिमानवान एक फातर काडून झाडाचेर शेंवटिलो. तो झाडाचेर आपटनाफुडें त्या झाडांतल्यान उज्याची कीट उसळ्ळी. तें पळोवन त्या मनशाक अजाप जालें. ताणें पर्थून गुणो शेंवटिलो. गुणो आनी झाड हांच्या घर्शणांतल्यान उजो तयार जालो. हेच कल्पनेंतल्यान फुडें उज्याची उदरगत जायत गेली जावंये.

प्राथमिक संस्कृतायांनी मुखेल करून उजो निर्माण करपाचीं तीन तंत्रां वापरलीं, तीं अशीं- घर्शण, आघात आनी बर्हिगोल भिंगांतल्यान ज्वालाग्राही वस्तूंचेर उश्ण सूर्यकिरण सोडप. 'Introduction to Anthropology' ह्या ग्रंथांत प्रो. जेम्स म्हण्टा- ''चडसो सगळो मनीसवंश, प्लाइस्टोसीन काळाच्या सुरवातीकसावन उजो निर्माण करपाची प्रक्रिया शिकला.'' नेमको काळ जरी सांगपाक येना, तरी उज्याची कल्पना खूब पोरनी आसा. वेदकाळापयलीं उज्याचे निर्मितीचो सोद जावं येता अशें सांगपाक मात आदार आसा. ऋग्वेदांत उज्याचो उल्लेख अशेतरेन आयला- त्वामग्ने पुष्करादध्यथर्वा निरमन्थत। मूर्ध्नो विश्वस्य बाधतः।। (ऋग्वेद ६:१६:१३). अर्थव्यान उज्याक पुष्करापसून मंथन (घुसळून) करून उत्पन्न केलो.

उजो ही एक वैदिक देवता. वेदांत तिचें स्वरुप अशे तरेन वर्णिलां-

चत्वारी शृङ्गा त्रयो अस्य पादा<br>
द्वे शीर्षे सप्तहस्ता सो अस्य।<br>
त्रिधा बध्दो वृषभो रोरवीति<br>
महो देवो मर्त्यां आविवेश।। (ऋग्वेद- ४:५८:३)

अर्थ- उज्याक चार शिंगां, तीन पांय, दोन तकल्यो आनी सात हात आसात. ज्या वृषभाक तीन प्रकारंनी बांदून घाला तो जो मोट्यान हांबेता, त्याच म्हान ईश्वरान (वृषभान) मनशाच्या अंतस्कर्णांत प्रवेश करून थंय वास केला.

उज्याचीं नांवां:

अग्निर्वैश्वानरो वह्निर्वीति होत्रो धनंजयः।<br>
कृपीहयोर्निर्ज्वलनो जातवेदास्तनूनपात ।।५३।।<br>
बर्हिः शुष्मा कृष्णवर्त्मा शोचिष्केश उषर्बुधः।<br>
आश्रयाशो बृहभ्दानुः कृशानुः पावको नलः ।।५४।।<br>
लोहिताश्वो वायुसखः शिखावाना शुशुक्षणिः।<br>
हिरण्यरेता हुतभुक् दहनो हव्यवाहनः ।।५५।।<br>
सप्तार्चिर्दमुनाः शुक्रश्चित्रभानुर्विभावसुः। शुचिरप्पित्तम्----।।

(अमरसिंहविरचित अमरकोष स्वर्गवर्गः १:५३,५४,५५)

अशीं उज्याक अमरकोषांत एकूण ३४ नांवां सांगल्यांत.

मूळ सत्पसून उजो निर्माण जालो. त्या उज्यापसून, आप. पृथ्वी, वायु हांची निर्मणी जाली अशें छान्दोग्य उपनिषदांत म्हळां.

तदैक्षत बहुस्यां प्रजायेयेति।तत्तेजोऽसृजत।तदपोऽसृजत....

सत्त्वे--- (छान्दोग्यउपनिषद ६.२.२)

द्यु आनी भूंय हातूंतल्यान उत्पन्न जालो उजो, प्राण आनी अपान ह्या प्राणांनी रावन, अग्निवैश्वानररुपांत पोटांत उरता असो उल्लेख मैत्रायणी उपनिषदांत मेळटा. भुर्भुवः स्वः, अग्नि, वायु आदित्य, ह्या तीन तत्त्वांच्या समन्वयापसून जी प्राणशक्ती स्पंदित जाता ताकाच जठराग्नी वा वैश्वानर अशेंय म्हण्टात.

अहं वैश्वानरो भूत्त्वा प्राणिनां देहमाश्रितः।<br>
प्राणापानसमायुक्तः पचाम्यन्नं चतुर्विधम्।। (गीता, १५:१४)

आयुर्वेदांत उजो हो एक शारिरीक घटक आसा, असो उल्लेख आसा. कुडींत भायलीं द्रव्यां घेतल्या उपरांत, कुडीच्या घटकांत तीं आत्मसात जावंचीं म्हूण त्या द्रव्यांचें पचन करपी जो कार्यकारी आसता तोच वैश्वानर. कुडीचे दोषधातु, उपधातु, इंद्रियां हांच्या सूक्ष्म घटकांत उजो आसता. उजो पचनकार्य रातदीस चालू दवरता. दरेका घटकाचे गूण वाडोवपाचें कार्य उजो करता. पचनाउपरांत त्या घटकांचीं सारद्रव्यां, मलद्रव्यां आनी विशुध्द द्रव्यां तयार जातात. उजो हो पित्तांतर्गत आसता. ताचे पाचक, रंजक, आलोचक, भ्राजक आनी साधक अशे पांच प्रकार कल्पिल्यात. तांचीं कार्यांय आयुर्वेदांत वेगवेगळीं सांगल्यांत.

उज्याची तुस्त करपी मंत्र ऋग्वेदांत खूब सुवातींनी मेळटात. उजो, देवांक ओंपिल्लें हविर्द्रव्य देवांमेरेन पावयता. उजो हो सगळ्यांचो आत्मो आसा अशेंय वर्णन वेदांत मेळटा. वेगवेगळ्या संस्कारांत, वेगवेगळ्या नांवांत उजो वास करता अशेंय शास्त्रांत सांगलां. लौकिक कार्यांत 'पावक' नांवाचो उजो, वैश्वदेवांत 'रुक्मक', मुंजींत 'समुभ्दर्व', देवकार्यांत 'हव्यवाहन', पितृकर्मांत 'कव्यवाहन', मडें लासतना 'क्रव्याद' अशा नांवान उजो प्रगट जाता अशें शास्त्रांत सांगलां.

चडशा सगळ्या देशांत उज्याक देव मानून ताची पूजा करतात. इंडो-इराणी काळांत ताका देवत्व प्राप्त जालें. इंडो-युरोपियन काळांत उजो हीमाच्या स्वरुपांत सर्वमान्य जालो. भारतीयांप्रमाणूच ग्रीक-इटालियन लोक होम हो देव मानून ताची पूजा करून, ताका हविर्द्रव्य ओंपतात. ग्रीक साहित्यांतूय होमाच्या म्हत्वाचें खूब वर्णन केलां. उजो हो रानांतल्या खडपांत लिपून बशिल्लो आसा, असो ग्रीक लोकांचो समज आसा.

- माधव गोविंद भुरकुटे

**उज्जैन:** मध्यप्रदेश राज्यांतलें नामनेचें तीर्थक्षेत्र आनी एक इतिहासीक शार. लोकसंख्या २,०९,११८ (१९८१). इंदूर सावन ५६ किमी. अंतराचेर आनी उत्तरेक क्षिप्रा न्हंयचे उदेंत देगेर हें शार वसलां. भोपाळ-नागदा आनी रतलाम-कोटा ह्या रेल्वेमार्गावेलें हें प्रस्थानक.

ह्या शाराक 'उज्जयिनी' वा 'अवंती' अशेंय नांव आसा. पुराणकाळांत शंकरान ह्या जाग्यार त्रिपुरासुराचेर जैत जोडिल्लें म्हूण हे सुवातीक उज्जयिनी अशें नांव पडलें अशें स्कंदपुराणांतल्या आवंत्य खंडांत सांगलां. अशोकाच्या शिलालेखांत हे सुवातीक 'उजेनी' अशें म्हळां. पेरिप्लस आनी टॉलेमी ह्या भोंवडेकारांनी ताका 'ओजेनी' अशें नांव दिलां. स्कंदपुराणावेल्यान ह्या नगराक कनकशृंग, कुशस्थली, अवंती, उज्जयिनी, पद्मावती, कुमुदवती, अमरावती आनी विशाला अशीं नांवां मेळटात.

उज्जैन आर्यवर्तांतल्या पवित्र सप्तपुरांतलें एक आसा. श्रीकृष्ण, बलराम आनी सुदामा हांचो गुरु सांदीपनी हांचो आश्रम हांगा आशिल्लो. देव आनी दानव हांणी केल्ल्या समुद्रमंथनांतल्यान अमृतघट आयिल्लो आनी त्या घटांतले कांय थेंबे उज्जैन, हरिद्वार, प्रयाग आनी नासिक हांगा पडिल्ले, अशें पुराणांत सांगलां. देखून, ह्या शारांनी कुंभमेळ भरता. हो कुंभमेळ दर बारा वर्सांनी गुरु वृश्चिक राशींत येतकच भरता.

पूर्विल्लें उज्जैन नगर आतांच्या उज्जैन नगराचे उत्तरेक क्षिप्रा न्हंयचे उजवे देगेर आसा. भोंवतणचे भुंयेपरस हें ठिकाण ३०-४० फूट ऊंच आसा. पोरन्या उज्जैन नगराक हालीं गड अशें म्हण्टात. ह्या नगराचो विस्तार दक्षिण-उत्तर सुमार एक मैल आनी उदेंत-अस्तंत सुमार पाऊण मैल आशिल्लो. पूण नगराचीं उपनगरां मात पयस पयस पातळिल्लीं आशिल्लीं. पयलीं जे सुवातेर महाकालवन आशिल्लें, थंय आतांचें उज्जैन शार आसा. पूर्विल्लें उज्जैन मात उसू पडलां.

पूर्विल्ल्या साहित्यांत उज्जैनाचे खूबशे उल्लेख मेळटात. मौर्य काळांत मालव प्रदेशांत सुराष्ट्र, लाट, माळवा, कच्छ, सिंध आनी उत्तर कोंकण हांचो आस्पाव जातालो. उज्जैन ह्या सगळ्या प्रदेशांची राजधानी आशिल्ली. मौर्यां उपरांत गंधर्वसेनाच्या (गर्दभिल्ल) राजवंशान मालव देशार राज्य केलें. कांय काळाउपरांत हांगा शकांचें राज्य आयलें. फुडें विक्रमादित्यान शकांक हारोवन माळव्याचेर आपली सत्ता गाजयली. पूण इ.स. ७५ च्या सुमाराक हें शार शकांनी परतें आपल्या शेकातळा घेतलें आनी फुडें सुमार तिनशीं वर्सां राज्य केलें. चवथ्या शेंकड्यांच्या शेवटाक सम्राट चंद्रगुप्त विक्रमादित्यान शकांक धांवडावन माळव्याचेर परतें आपलें राज्य हाडलें. विक्रमादित्या उपरांत उज्जैन नगराची खूब भरभराट जाली. ब्राह्मण, बौध्द आनी जैन ह्या तीनूय धर्मांचें हें शिक्षणाचें केंद्र आसा. हांगा ज्योतिशशास्त्राविशींचें उंचेल्या पांवड्यावेलें शिक्षण मेळटा. गुप्त काळांत संस्कृत काव्य आनी नाट्यशास्त्र हांच्या उच्च शिक्षणाचें हें व्हड केंद्र आशिल्लें. कालिदास, भवभूति, भारवी, भर्तृहरि आदी कवी हांगा बरेच काळमेरेन राविल्ले.

महाराजा जयसिंहान हांगा एक वेधशाळा बांदिल्ली. जयसिंह हो ज्योतिशशास्त्रांतलो व्हड विद्वान आशिल्लो. णव्या ते धाव्या शेंकड्यामेरेन उज्जैन परमाराची राजधानी आशिल्ली. १२३५ त अल्तमशान ह्या शाराचो नाश केलो. तेन्नासावन उज्जैन मुसलमानांचे सत्तेखाला आशिल्लें. ताचेउपरांत उज्जैन मराठ्यांकडेन आयलें आनी फुडेंमेरेन ती शिंद्यांची राजधानी आशिल्ली.

भारत भूंयचो मदलो रेखांश उज्जैन शारासावन वता. भारतीय खगोलशास्त्रज्ञांच्या मतान उज्जैन हें नगर शून्य रेखांशाचेर वसलां. भूगोलकारांनी हांगाच्यान रेखांश मेजपाची चाल सुरू केली.

धान्य, कापूस, कापड, अफू, हांची ही बाजारपेठ आसा. हांगा कपड्याच्यो गिरणी आसात. तशेंच हातमाग, होजिअरी, तेल, बर्फ, रंगकाम, मिठाई आदींचे कारखाने आसात. १९५७ वर्सा स्थापन जाल्लें विक्रम विद्यापीठ हांगा आसा. हांगाची पळोवपासारकीं थळां म्हळ्यार राजा जयसिंहान बांदिल्ली 'जंतर मंतर' वेधशाळा, भुंयेंतल्यान खणून काडिल्ल्यो आदल्या काळावेल्यो इतिहासीक वस्तू. ५१ शक्तिपिठांतलें उज्जैन हें एक शक्तिपीठ. हांगा सतीचो कोपर गळून पडिल्लो देखून, हें शक्तिपीठ जालां अशें म्हण्टात. हांगाच्या देवळांत देवीच्यो मुर्ती नाजाल्यार कोपराची पूजा जाता.

बारा ज्योतिर्लिंगांतलें श्री महाकालेश्वराचें हें थळ आसा. हांगाच्या नामनेच्या महाकाल देवळाक पांच माळे आसून तातूंतलो एक माळो भुंयेपोंदा आसा. विक्रमादित्याचें यादस्तीक म्हूण हांगा विक्रमस्मृतीमंदिर बांदिल्लें. ह्या मंदिराची बुन्याद १९५१ त डॉ. राजेंद्रप्रसाद हाणें घाल्ली,

इ.स. १९५५ ते १९५८ त हांगा भारतांतल्या पुराणवस्तू संशोधन खात्यान उत्खनन केलें. हातूंत इ.स. सातवो शेंकडो ते मुसलमानाच्या काळामेरेन आशिल्ले लोकवस्तीचो खुबसो पुरावो मेळटा. सगळ्यांत आदीं हांगा वस्ती भोंवतणी आशिल्लो प्राकार मेळ्ळो. हो मुळांत ७४ मी. रुंद आनी ७.३७ मी. उंचायेचो आशिल्लो. ह्या प्राकाराचे भायलेवटेन ४६.३२ मी. रुंदायेचो फोंड मेळ्ळो. हो प्राकार न्हंयेवटेन लांकडी फळयो घालून घट्ट केल्लो. नगरांतली घरांची बांदावळ मातयेची आसली. लोखणी हत्यारां, मणी, चक्राचेर तयार केल्लीं तरेकवार मृत्पात्रां आनी कच्चें लोखण खुबशा प्रमाणांत मेळ्ळें. इ. स. ५०० ते २०० ह्या काळांत हे फोंड विटांनी बांदिल्लें. हांगाचीं मातयेचीं घरां, मणी तयार करपाची भाटी, कांसाराची भाटी, बांयो आदी अवशेशांवेल्यान ह्या काळांत थंयच्या लोकांची जीण समृध्द आशिल्ली अशें दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**उडपी:** कर्नाटक राज्यांतल्या दक्षिण कॅनरा जिल्ह्यांतलें तीर्थक्षेत्र. हाका उडुपी, उडिपी वा उडुपपूर अशेंय म्हण्टात. आदल्या काळांत ताचें नांव 'उडुपा' अशें आशिल्लें. 'उडू' म्हळ्यार नखेत्र आनी 'पा' म्हळ्यार पालक म्हणजेच उडुपा शब्दाचो अर्थ चंद्र असो जाता. चंद्रान हांगा तपश्चर्या केल्ली तेन्ना शंकरान प्रसन्न जावन ताका आपल्या माथ्यार घेतलो, अशी कथा आसा आनी हे कथेवेल्यानूच ह्या गांवांक 'उडुपी' हें नांव पडलें. उडपीक रजतपीठपूर, रौप्यपीठपूर आनी शिवोली अशीं पूर्विल्लीं नांवां आसात.

तेराव्या शेंकड्यांतलो द्वैतमतवादी मध्वाचार्य हाची ही जल्मभूंय आनी कर्मभूंय. ताणें आपलीं धर्मीक कार्यां ह्या गांवांतूच केल्यांत. हांगा ताणें मठाची थापणूक केली आनी कृष्णाचें एक देवूळ बांदलें. ह्या देवळाचें पाखें चांदीच्या पत्र्याचें आसा आनी ताचेर भांगराचीं पानां आनी फुलां काडल्यांत. वण्टीचेर दशावताराचीं चित्रां चितारल्यांत. हातूंतली श्रीकृष्णाची मूर्त शाळीग्राम शिळेची आसून पळोवपासारकी आसा. मूर्तीच्या चारुय वटांनी चार दिवल्यो पेटत आसतात. हातूंतली एक दिवली मध्वाचार्याच्या काळासावन आयजमेरेन पेटत आसा अशें सांगतात. मकरसंक्रांती आदीं धा दीस हांगा व्हड उत्सव जाता.

मध्वाचार्यान थापणूक केल्ले हे कृष्णमूर्तिविशीं एक आख्यायिका आसा ती अशी- उडपी लागसार एक मालपें बंदर आसा. थंय द्वारकेसावन गोपीचंदनाची माती घेवन एक तारुं आयिल्लें. तारुं देगेर पावता थंय आसा, इतल्यान व्हड वादळ जालें. तेन्ना मध्वाचार्यान दैवी शक्तीन हें वादळ थंडायलें. तें पळोवन तारवाच्या धनयान मध्वाचार्याक 'किदें इनाम जाय?' म्हूण विचारलें. तेन्ना ताणें तारवांत एके कुशीक आशिल्ले गोपीचंदनाचे कुडके मागले. ही मूर्त त्या कुडक्यांच्या मदीं आशिल्ली. मागीर मध्वाचार्यान ती देवळांत हाडून तिची थापणूक केली. उडपीक मध्वाचार्यान आठ मठांची थापणूक केल्ली. हातूंत मध्वमतानुयायी संन्याशी रावतात. तातूंतलो दर एकलो संन्यासी एकाफाटल्यान एक अशा दोन- दोन वर्सांनी देवाची पूजा आनी धर्मीक कार्यां करता. हांगा दोन दोन वर्सांनी 'खांदेपालट' हो उत्सव जाता. ताका 'पर्यायम' अशें नांव आसा. ह्या उत्सवावेळार हांगा खूब यात्रेकार जमतात.

उडपीक चंद्रमौलेश्वर आनी अनंतेश्वर अशीं दोन आदल्या काळांतलीं देवळां आसात. परशुरामान हांगा शंकराची आराधना केल्ली. ताणें थापणूक केल्ल्या शिवलिंगाक 'अनंतेश्वर' म्हण्टात. तेखेरीज परशुरामान दर्याक हरोवन निर्मिल्ल्या नवभुंयेंतल्या सात क्षेत्रांतलें रजतपीठ हांगा आसा.

हांगाचे लोक चंदनाचें तेल काडपाचो, भात कांडपाचो आनी हेर जायते उद्येग करतात. हांगा कांय साकरेच्यो गिरणीय आसात.

खाणावळीच्या धंद्यांत उडपीचे लोक कुशळ आसून तांणी भारतभर नामना जोडल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**उतारोः** पूर्विल्ल्या काळासावन आयजमेरेन भारतांत तशेंच भारताभायर लग्न, वाडदीस सारक्या धर्मीक प्रसंगावेळार न्हवरो-व्हंकल आनी भुरगें हांच्या आंगावेल्यान तेचपरी भूत-पिशाच्च, रोग, करणेन पिडिल्ल्या वायटाकारावेल्यान, जी वस्त वायट गजालींची बादा जावंची न्हय म्हूण हुंवाळून उडयतात, ते वस्तीक आनी हुंवाळपाचे क्रियेक 'उतारो' अशें म्हण्टात.

लिंबू, मीठ, तांदूळ, उदक, भाकरेचो कुडको, धंयभात ह्यो उताऱ्याच्यो वस्तू आसातात. संस्कृतांत हे क्रियेक 'अवतरणकमंगल' अशें नांव आसा. बायलांच्या धर्मीक क्रियांत उताऱ्यांक म्हत्वाची सुवात आसा. कांय उतारे मंगल आसता. जेन्ना न्हवरो लग्नाच्या माटवांत येता वा व्हंकल घोवासयत घरांत भितर सरता तेन्ना हुंवाळणी करतात. तेचपरी बाळ-बाळंतीण धाव्या दिसा घरांत भितर येतकच तांच्यावेल्यान लिंबलोण, उदक वा भाकरेचो कुडको हुंवाळून उडयतात. कांय उतारे जादू-टोण्याचे आसतात. देखीक, खेडेगांवांतलो एक उतारो आसा, तो असो-

शिजयल्लें अन्न, सवाय रुपया, कोळसो, शेंदूर, सुर्मो, खिळो आनी नाल्ल एके मातयेचे परातींत दवरतात. मागीर ह्यो सगळ्यो वस्ती वायटकाराच्या आंगावेल्यान हुंवाळटात. उपरांत मांत्रिक ती परात मसुंडींत व्हरून दवरता. मागीर सगळो लोक फाटल्यान पळेनासतना परत येता.

- कों. वि. सं. मं.

**उत्तर प्रदेशः** भारतीय संघराज्यांतलें एक म्हत्वाचें राज्य. ह्या राज्याचे उदेंतेक बिहार, अस्तंतेक पंजाब आनी राजस्थान, दक्षिणेक मध्यप्रदेश आनी उत्तरेक नेपाळ आनी तिबेट आसा. अक्षांश आनी रेखांश २३° ५२' उत्तर ते ३१ ° १८' उत्तर आनी ७७° ३' उदेंत ते ८४° ३९' उदेंत.

**भूंयवर्णनः** उत्तर प्रदेशाचे जमनीचे तीन प्रकार आसात. १. हिमालयाचो दोंगरी वाठार, २. दक्षिणेकडलो पठारी वाठार, ३. गंगेचो वाठार.

**हिमालयाचो दोंगरी वाठारः** राज्याचे उत्तरेक हिमालयाचो दोंगरी वाठार उदेंत-अस्तंत पातळ्ळा. हिमालयाच्यो तीन पर्वता वळी ह्या राज्यांतल्यान वतात. उत्तरेखटेन आशिल्ली मुखेल हिमालयाची वळ सरासरी ६,१०० मी. उंचायेची आसा. तातूंत नंदादेवी, धवलगिरी, कामेट, त्रिशूल हे दोंगरमाथे येतात. दुसरी पर्वता वळ सरासरी ३,७२० मी. उंचायेची आसा. तिसरी पर्वता वळ सरासरी १,५५० मी. आसा. तातूंत नैनीताल, मसूरी, अलमोडा, रानीखेत सारके कमी उंचायेचे दोंगर माथे येतात. ह्या दोंगर फांट्यांमदल्यान 'दून' नांवाचो एक वाठार आसून थंयची जमीन पिकाळ आसा. हिमालयाची तिसरी पर्वता वळ वा शिवलीक दोंगरफांट्याक लागून न्हंयांतल्यान व्हावन आयिल्ल्या फातर-रेंवेचो 'भाबर पटो' आसा. तो अस्तंतेक ३२ किमी. रुंद आसून उदेंतेक अशीर जायत गेला. ताच्या सकयल्यान उदक व्हांवता.

**दक्षिणेकडलो पठारी वाठारः** सैमीक रचणूक आनी हवामान हांचेवेल्यान ह्या वाठाराचे दोन भाग केल्यात. पयलो बुंदेलखंडाच्या पठाराचो वाठार नीरा नांवाच्या फांतरांनी तयार जाला. शोण न्हंयचे उत्तरेकडलो वाठार खूब पोरन्या फांतरांनी तयार जाला.

**गंगेचो वाठारः** उत्तर प्रदेशाचो चडसो वाठार हातूंत आस्पावला. गंगा न्हंय आनी तिका मेळपी यमुना, रामगंगा, घागरा आनी हेर न्हंयांनी हो वाठार पिकाळ जाला. ह्या वाठाराचे उत्तरेक हिमालयाचे दोंगर येतात. ज्यो न्हंयो भाबर पट्यांत जमनीसकयल्यान व्हांवतात, त्यो ह्या वाठारांत जमनीवेल्यान व्हांवतात. ह्या वाठाराक 'तराई' म्हण्टात. ह्या वाठारांत रानां आसात. हांगा तण खूब लांब वाडटा.

**जमीनः** दून आनी गंगा वाठारांतली जमीन पिकाळ आसता. गंगेच्या आवांठांत ९०० मी. परस चड गाळ मातयेचो थर आसता. हुंवाराचें उदक न बादपी वाठाराक बांगर आनी हुंवार लागपी वाठाराक 'खादर' म्हण्टात. न्हंयचे देगेलागीं आशिल्ली बारीक माती, बारीक रेंव आशिल्ली आसता. चिकण आनी काळी माती पिकावळीखातीर बरी आसता. बुंदेलखंड पठार, फत्तेगढ, कानपूर आनी अलाहाबाद वाठारांतली जमीन पिकाळ आसा. रेह नांवाची जमीन पीक दिना. चंबळ, बेटवा, यमुना, गोमती ह्या न्हंयांच्या वाठारांत मातयेचो कस-उणो जावन व्हड फोंड पडल्यात.

**न्हंयोः** गंगा ही ह्या राज्यांतली म्हत्वाची न्हंय. भारतीय धर्म-पुराणांत तिका पवित्र मानल्या. तिचो उगम हिमालयांत १९ हजार फूट उंचायेर गंगोत्री हांगा जाता. उत्तर प्रदेशांतल्यान ती बिहार, बंगाल, राज्यांतल्यान वचून बंगालच्या उपसागराक मेळटा. गंगेक दावेवटेन रामगंगा, गोमती, घागरा तर उजवे वटेन यमुना न्हंय मेळटा. हरद्वार हांगा गंगेक दोन फांटे फुट्टात. एक फांटो कनखल नांगली रावली कडल्यान दारानगररंज, गडमुक्तेश्वर, शुक्रताल, अनूपशार, प्रयाग, मिरजापूर, काशी सावन बिहारांत वता. दुसरो फांटो मायापूरीसावन वता. तो कालव्याच्या रुपान उत्तर प्रदेशाचो चडसो वाठार भिजयता.

यमुनेचो उगम गंगेचे अस्तंतेक जाता. राज्याचे अस्तंत शीमेवेल्यान कांय अंतर व्हावन, अलाहाबाद लागसार गंगेक मेळटा. दक्षिण पठारी भागांतल्यान यमुनेक चंबळ, सिंद, बेटवा आनी केन ह्यो न्हंयो मेळटात. मिझीपूर राज्यांतल्यान शोण न्हंय अस्तंत-उदेंत व्हांवता. तिका मेळपी रिहाड न्हंयच्या धरणाक लागून जाल्ल्या जलाशयाचो चडसो वाठार उत्तर प्रदेशांत येता.

**हवामानः** ह्या राज्याचें हवामान सुकें आनी गरम आसा. उत्तरेखटेनचो हिमालयांतलो वाठार थंड आसून पावसाचें प्रमाण चड आसा. ह्या वाठारांतलें तापमान सरासरी १२.८° से. आसा. वर्सुकी पावस १५० सें.मी. परस चड आसता. तराई वाठारांत १०० ते २०० सेंमी. पावस आसता. जुलय-ऑगस्ट म्हयन्यांत पावसाचो नेट चड आसता.

शिंयाळ्याच्या दिसांनी तापमान १५.८° से. ते १८.३° से. आनी गिमांत २६.७° से. परस चड आसता. सपाट वाठारांत हवामान गिमाच्या दिसांनी सुकें आनी गरम, पावसा दिसांनी दमट आनी गरम, शिंयाळ्याच्या दिसांनी थंड आनी सुकें आसता. गिमाच्या दिसांनी तापमान ४६° से. परस चड आसता. सकाळच्या धा वरांसावन रातच्या पांच वरांमेरेन सामको हून अस्तंत वारो व्हांवता. अलाहाबाद हांगा उदेंतेकडलो चड पावसाचो वाठार भात-पिकावळीखातीर तर अस्तंतेकडलो वाठार गंव, ज्वारी ह्या पिकांक बरो आसता. शिंयाळ्यांत पुराय राज्यांत 'पिकेचे दीस' आसतात. केन्ना केन्नाय मात्शें बर्फ पडटा. केन्नाय शिंयाचें ल्हार येवन वता. दक्षिणेच्या वाठारांत पावस ९० ते १०० सेंमी. आसून शिंयाळ्यांतलें तापमान १२.८° ते १८.३° से. आसता. गिमांत फातराळ जमीन चड तापता.

**वनस्पत आनी मोनजातः** उत्तर प्रदेशाचो १५.३% टक्के वाठार रानांखाल येता. दोंगराळ वाठारांनीच रानां चड आसात. जमनीच्या वाठारांत रान ३% टक्के आसा. दोंगरी वाठारांतल्या रानांनी तरातरांचे रुख आसात. ह्या रानांनी शिसवी, खैर, हालद, तेंडू अशीं तरेतरेचीं झाडां मेळटात. उत्तर हिमालय वाठारांत बर्च, फर, स्प्रूस, ज्यूनीपर, ब्लूपाइन, चीड, देवदार ह्या रुखांचीं व्हड रानां आसात. रानांत आनी हेरकडेन मोहाचीं झाडां खूब आसात. आंबे, पेरां, बोरां, सफरचंदां आनी नास्पती हीं फळझाडां हांगा पळोवंक मेळटात. ३० मार्च १९८० मेरेन ५१,१९९,४२ चौ. किमी. वाठार रानांखाल आसलो. सद्या व्हड प्रमाणांत झाडां मारिल्ल्यान मातयेचो कस उणो जायत गेला. तेखातीर सरकारान व्हड प्रमाणांत झाडां रोवपाची कार्यावळ हातांत घेतल्या.

दोंगर आनी तराई वाठारांत वाग, चित्तो, वांस्वेल, नीलगाय, हरण, माकड व्हड प्रमाणांत आसात. मोर, रानकोंबे, तीतर असलीं सुकणींय




हांगा दिसतात. तळ्यां देगांनी बकीं, बदकां, करकोचे, चक्रवाक, चातक हे पक्षीय दिश्टी पडटात.

**इतिहासः** ब्रिटीश राजवटींत ह्या राज्याचें नांव 'संयुक्त प्रांत' (युनायटेड प्रॉव्हिन्सिस) आसलें. भारतीय घटनेन ताका 'उत्तर प्रदेश' हें नांव दिलें.

उत्तर प्रदेशाक एक व्हड इतिहास आसा. मिर्झापूर, बांदा, हमीरपूर जिल्ह्यांत पाशाण युगांतलीं हत्यारां तर मथुरा, बिजनौर, उनाओ आनी कानपूर वाठारांत ताम्रयुगांतल्या बाणांचे आनी भाल्यांचे फाळ मेळ्ळयात. आर्य संस्कृतायेचीं मुळां सगळ्यांत पयलीं उत्तर प्रदेशांत धरलीं. हांगाचीं काशी, कोसल, कुरू, पांचाल हीं राज्यां आर्य संस्कृतायेचीं आसलीं. रामायण आनी महाभारत काळांत राम आनी कृष्णाचे जल्म हे भूंयेर जाल्ले. ह्या काळांतल्यो चडश्यो इतिहासीक घडणुको ह्याच वाठारांत जाल्यो. जैनाचे आदिनाथ, अजितनाथ हांचीय ही भूंय आसली. गौतम बुध्दाचे भोंवडेचे पुरावे हांगा मेळटात. ताणें गिन्यानसाधना ह्याच वाठारांत केल्ली. स्तूप, पोरने विहार हांगा दिश्टी पडटात. सम्राट अशोकाची राजाज्ञा आशिल्ले फातरपटे कालसी, मीरत, वाराणसी आनी अलाहाबाद हांगा मेळ्ळयात. हांगा कांय काळ मौर्य राजाचो शेक चल्लो. मौर्या उपरांत इ. स. प. दुसऱ्या शतमानांत शुंग आनी तेउपरांत कण्व हांणी ह्या वाठाराचेर आपलो शेक गाजयलो. इ. स. तिसऱ्या शतमानांत क्षत्रप राज्य करताले. ताच्या फाटल्यान कुशाण आयले. चवथ्या शतमानांत उत्तर प्रदेश मगधाच्या गुप्त साम्राज्यांत आस्पावलो. सव्या शतमानांत मौखरी वंशाचो उदय जाल्लो. सातव्या शतमानांत हर्षवर्धन हाणें कनौजाक राज्य स्थापून आपलें राज्य वाडयलें. हर्षाच्या मरणाउपरांत कनौजाचेर यशोवर्मा राज्य चलोवपाक लागलो. णव्या शतमानांत गुर्जर प्रतिहारी हाचें राज्य आयलें.

इकराव्या शतमानांत गझनी मुहमंद हाणें बुलंदशहर, मथुरा, कनौज ह्या शारांचेर घुरयो घाल्यो. सन १०३४ वर्सा अहंमद नियाल्तिगीन ह्या पंजाबच्या मुसलमान राज्यपालान, उत्तर हिंदुस्थानाचेर बनारस मेरेन घुरी घाली. हिंदू लोकांच्या पंगडान ताका धांवडावन घालो. गांगेयदेव चेदी हाणें फुडें कनौजाचेर घुरी घाली. भोज, परमार ह्या राजांनी ताका हरयलो. इकरावें शतमान सोंपता आसतना चंद्रदेव गाहडवाल ह्या राजाचो शेक चल्लो. ह्याच वंशकुळयेंतलो गोविंदचंद्र हाचो १११२ ते ११५५ मेरेन मगधाचेर शेक चल्लो. सन ११९२ त मुहंमद घोरीन पृथ्वीराज चौहान हाका आनी ११९४ त कनौजच्या जयचंद हाका हरोवन उत्तर प्रदेशांतली हिंदू सत्ता सोंपयली. बुंदेलखंड मात स्वतंत्र उरलें. उरिल्ल्या वाठाराचेर दिल्लीच्या सुलतानाची सत्ता सुरू जाली. मुहंमद तुघलक, बल्बन, अलाउद्दीन खिल्जी हे बळिश्ट राजे, आपल्या राज्यांत उप्रासपी बंडाळी मोडून काडपाक खांपे आसले. फिरोझशाह तुघलक हाचो काळ पिकावळीचे नदरेन समृध्द आसलो. फिरोझपूर आनी जौनपूर हीं शारां ताणें वसयलीं. १४०२ ते १४३६ ह्या काळांत इब्राहीम शर्की ह्या सुलतानाचो शेक चलतालो. पंदराव्या शतमानाच्या शेवटाक दिल्लीच्या लोदींनी शर्की राजवट सोंपयली.

सन १५२७ त, खानुवाज हांगा बाबरान राणा संग हाचो १५४० त कनौज हांगा शेरशहा हाणें हुमायूँ हाचो केल्लो पराभव ही ह्या काळांतली कांय झुजां आसात. अकबरान हो वाठार उपरांत आपल्या शेकातळा हाडलो. मोगलांची राजधानी त्यावेळार आग्रा हीच आसली. शहाजहानान तिची सोबीतकाय वाडयली. शहाजहाना उपरांत आपल्या भावांकडेन औरंगजेबान झगडीं करून राजसत्ता जोडली. ताणें आपली राजधानी दिल्लीक व्हेली. औरंगजेबान आपल्या काळांत जबर धर्मीक अत्याचार केले. ताणें कुमाऊँ राज्याचो आस्पाव मोगल साम्राज्यांत केलो.

अठराव्या शतमानांत मोगल सत्तेक देंवती कळा लागली. पयल्या बाजीरावावेळार मराठे बुंदेलखंडांत पावले. सन १७५१ वर्सा मराठ्यांक

आग्र्याची सुभेदारी मेळ्ळी. उपरांत तांचे सत्तेची थंय थापणूक जाली. नजीबखान रोहिल्यान अब्दालीकडेन बरेपण जोडून ही सत्ता सोंपोवपाचो यत्नूय केलो. पानिपतचे लडायेउपरांत जाट आग्र्यांत आयले. दुसरे शाह आलम हाच्या वझीर नजफखानान हो वाठार मोगलांच्या शेकातळा हाडलो. पूण ताच्या मरणाउपरांत १७८२ वर्सा शिंदे थंय सत्तेर आयलो. सन १७६८ वर्सा बक्सरचे लडायेत सुभेदार शुजाउद्दौला हाचो पराभव जालो आनी अशेतरेन ब्रिटीश उत्तर प्रदेशांत रिगले. ल्हव ल्हव ब्रिटिशांनी अवधचे राखणेची जापसालदारकी उखल्ली. वॉरन हेस्टिंगच्या काळांत बनारसाचेर इस्ट इंडिया कंपनीची सत्ता आयली. वेलस्लीन रोहिलखंड, दोआब, गोरखपूर हे वाठार कंपनीक मेळोवन दिले. लॉर्ड लेक हाणें दौलतराव शिंदे हाका हरोवन शिंद्याच्या हातासकयलो उत्तर प्रदेशांतलो वाठार तातूंत जोडलो. सन १८१५ वर्सा गुरखा झुजांत कुमाऊँ आनी हिमालयाच्या मुळसांतलो वाठार १८१८ वर्सा पेशव्यांकडल्यान बुंदेलखंड वाठार १८५६ वर्सा दत्तकविधान रद्द करून जालौन, ललितपूर, जैतपूर, झांशी हीं राज्यां आनी गैरशिस्तीखाल खालसा केल्लो अवध प्रांत ब्रिटिशांनी आपल्या हाताखाल घेतलो. हे सगळे वाठार मेळून आयचो संयुक्त प्रांत घडला.

१८५७ वर्सा जाल्ल्या स्वातंत्र्य संग्रामांत पुराय उत्तर प्रदेशान वांटो घेतिल्लो. अवधचे तालुकदार, झांशीची राणी, बिठूरचो नानासाहेब हे ह्या झुजांत मुखेल आसले. ह्या झुजाचीं मुखेल केंद्रां ह्याच वाठारांत आसलीं. इंग्लीश हें स्वतंत्रतायेचें बंड मोडून उडोवपांत जैतीवंत थारले. १९०२ वर्सा वायव्य सरहद्द प्रांत घडिल्ल्यान उत्तर प्रदेशाचें नांव संयुक्त प्रांत दवरलें. सन १९३५ च्या कायद्यावरवीं ह्या प्रांताक स्वायत्तता मेळ्ळी. भारतीय सुटके-झुजाचें फुडारपण करचे पासत पं. अयोध्यानाथ, पं. गंगाप्रसाद, पं. मोतीलाल नेहरु, पं. मालवीय सारके व्हड फुडारी भारताक मेळ्ळे. भारताचो पयलो प्रधानमंत्री पं. जवाहरलाल नेहरु ह्याच राज्यांतलो. स्वातंत्र्या उपरांत रामपूर, टेहरी-गढवाल हीं संस्थानां उत्तर प्रदेशांत विलीन जाली. बुंदेलखंडाच्या उत्तरेचो कांय भागय तातूंत जोडलो. १९५० च्या संविधानांत उत्तर प्रदेशाक 'अ' दर्जो मेळ्ळो. १९६२ च्या चिनी आक्रमणाउपरांत हिमालयाचे शिमेवेल्या राज्याचो कांय भाग उत्तर खंड ह्या नांवान निर्मिल्लो.

**राज्यवेवस्था:** उत्तर प्रदेश हें एक भारतांतलें घटकराज्य. राश्ट्रपतीन नेमिल्ल्या राज्यपालाचे मान्यतायेखाला मंत्रीमंडळ हांगाचो कारभार पळेता. मंत्रीमंडळ विधीमंडळाक जापसालदार आसता. विधीमंडळाचे ४२५ वांगडी आसतात. तेभायर एक अँग्लो-इंडियन वांगडी नेमतात. विधानपरिशदेचे वट्ट वांगडी १०५ आसात. राज्यांतल्यान ८५ खासदार लोकसभेर वेंचून येतात. राज्यसभेर ३४ खासदार वेंचून काडटात. स्वातंत्र्याउपरांत चडसो काळ राश्ट्रीय काँग्रेस पक्षाची सत्ता ह्या राज्यार चलली. १९८९ च्या विधानसभा वेंचणुकांत 'जनता दल' पक्षाक सत्ता मेळ्ळा. १३ जून १९७३ ते ८ नोव्हेंबर १९७३ मेरेन राज्यांत राश्ट्रपती राजवट आसली. भारताच्या सात प्रधानमंत्र्यांमदले स जाण ह्याच राज्यांतले. राज्यकारभाराचे वेवस्थेखातीर ५७ जिल्हे घडयल्यात. अलाहाबाद, आग्रा, उत्तर खंड, कुमाऊँ, गोरखपूर, झांशी, फैजाबाद, मीरत, रोहिलखंड, लखनौ, वाराणसी अशे इकरा येणावळ दिवपी वाठार आयुक्ताच्या हातासकल आसात. पंचायत राज्याची त्रिसूत्री येवजण १९६३ वर्सा चालीक लागली.

राज्यांत ५१ जिल्हा परिशदो आनी ३ अंतरीम जिल्हा परिशदो आसात. राज्यांत वट्ट १४२ नगरपालिका आसात. शेतकी, येणावळ, पाटबंधारे, शिक्षण, न्याय, भलायकी, कुटूंबयेवजण, सहकार रासवळ प्रकल्प, उद्येगधंदे, येरादारी, भौशीक वीज, बांदकाम आनी हेर कामां हांचो कारभार त्या त्या खात्याचे मंत्री आपले यंत्रणेवरवीं पळेतात. उच्च न्यायालय अलाहाबादाक आसून एक न्यायपीठ लखनौ हांगा आसा. मुखेल न्यायाधीशाबगर एक अतिरिक्त न्यायाधीश आनी ४० दुसऱ्या पांवड्याचे न्यायाधीश आसात. राज्यांत ४५ सेशन विभाग आसात.

**अर्थीक स्थिती:** *शेतकी पिकावळ:* भारतांतली एक अश्टमांश शेतजमीन उत्तर प्रदेशांत आस्पावल्या. हांगा वर्सुकी दोन पिकां काडटात. भात, मको, ज्वारी आनी कांय दाळी हीं पिकां सर्द आसून गंव, हरबरे, वाटाणे हीं पिकां वांयगणी आसात. ७८% लोकांचो मुखेल वेवसाय शेती होच जावन आसा. सन १९८६-८७ त अन्नधान्याचें उत्पादन ११३.२० लाख टन जालें. तातूंत ८३ लाख टन तांदूळ, पांच लाख टन ज्वारी, ६ लाख टन बाजरी आनी १३.५० लाख टन मको हाचो आस्पाव जाता. १९८६-८७ त जवाचें उत्पादन ७.६० लाख टन तर गंवाचें १६० लाख टन जालें. सर्षप (rapeseed) आनी सांसवांचें (mustard) उत्पादन ११.७३ लाख टनांचेर पावलें (१९८६-८७). राज्यांतले ज्यूटाचें उत्पादन ६८,००० बेल्साचेर पावलां (१९८६-८७). भारतांतल्या वट्ट उत्पादनांतलें ऊंसाचें अर्दे उत्पादन ह्या राज्यांत जाता. सांसवां, भिकणां, तीळ, कापूस, ताग हीं मुखेल नगदी पिकां राज्यांत जातात. देशांतलें २०.६% फळ-फळावळीचें उत्पादन राज्यांत जाता. चड धान्य पिकोवपाखातीर तिसरे येवजणेंत दोन लाख बांयो मारिल्ल्यो. बटाटाचे लागवडीखातीर १४ ते १७ हजार हेक्टर मेरेन जमीन वाडयली.

उत्तर आनी दक्षिण गंगा, यमुना, आग्रा, शारदा ह्या कालव्यांवरवीं ३८ लाख हेक्टर जमनीक उदक मेळ्ळां. रामगंगा, मांतारीला, गंडक हे कालवे हालींच्या वर्सांनी बांदल्यात. सन १९८१-८२ मेरेन राज्यांतल्या कालव्यांची वट्ट लांबाय ५७,२५० किमी. आसली. जून १९८७ मेरेन ५,४४,५४८ नलिका बांयो सुरू केल्यात. त्यो ४० लाख हेक्टर जमनीक उदक दितात. देशांतलें २०% तुपाचें आनी २७% दुदाचें उत्पादन ह्या राज्यांत जाता.

*खनिज संपत्ती:* खनिज संपत्ती दोंगरी वाठारांत मेळटा. नैनीताल, झांशी आनी मिर्झापूर हांगा लोखण मेळटा. अलमोडा आनी गढवाल हांगा जिप्सम, मेग्नेसायट, तांबे, शिशें मेळटा. गढवाल आनी डेहराडून हांगा फोस्फोराइट मेळ्ळयात. खनिज तेलाचो सांठो हिमालयांत आसतलो असो अदमास आसा. चुनखडी, स्लेट हिमालयाच्या विंगडविंगड वाठारांत मेळटा. लोखण आनी उणे प्रतीचो कोळसो मिर्झापूरच्या सिंगरौली वाठारांत आसा. रस्त्याक उपेगी पडपी मुरुम, चिकणमाती आनी कंवची करपाक वापरपांत येवपी रेंव हांगा व्हड प्रमाणांत मेळटा. देशांतलें ८०% सिलिका रेंवेचें उत्पादन ह्या राज्यांत जाता.

*उदकांतली पिकावळ:* १९४४ सावन हांगा नुस्तेमारी कार्यावळीची खूब उदरगत जाल्या. १.१६५ दशलक्ष हेक्टर वाठारांतल्या उदकामदलें ०.३२४ दशलक्ष हेक्टर उदक आडायिल्लें आसा. १९७९-८० मेरेन १७,७९२.३४ क्विंटल नुस्त्याचें उत्पादन जालें.

*पर्यटन:* पर्यटनाक हांगा खूब वाव आसा. वृंदावन, काशी, प्रयाग, मथुरा, अयोध्या ह्या सारकीं तीर्थथळां; मसुरी, नैनीताल ह्या सारकीं थंड हवेचीं थळां; आग्रा, फतेहपूर-सीक्री, लखनौ सारकीं इतिहासीक थळां पर्यटनाचे नदरेन म्हत्वाचीं आसात. फूलाचो घांट, यमुनोत्री, गंगोत्री, केदारनाथ, बद्रीनाथ, हेमकूंड, रानीखेत, अलमोडासारके जागे, श्रवस्थी, सारनाथ, कुशीनगर, संकिसा आनी कौशंबी सारकीं धर्मीक थळां हांगाय पर्यटक व्हड प्रमाणांत येतात.

**उद्येगधंदे:** उत्तर प्रदेश भारतांतलें सगळ्यांत चड साकर पिकोवपी राज्य जावन आसा. हातमाग होवूय हांगासल्लो म्हत्वाचो उद्येग. कृषी-वेवसायाचेर आदारिल्ले साकर, कागद, खावपाचें तेल, सुतीकापड, खाण करपाचे कारखाने हांगा नेटान वयर सरतात. वीजेचे जनित्र, रेल्वेचे सुटे भाग, विजेचीं उपकरणां, मुळावीं उद्येगीक रसायनां, शिमीट हाचे कारखानेय उत्तर प्रदेशांत सुरू जाल्यात. जोतीं, चामड्या वस्तू करप, कंवचेच्यो वस्तू, सूती कापड, लोकर, शेतासारें करप, शेताक उपेगी पडपी अवजारां, रेडिओ, कानपूरच्यो रोलींग गिरणी, लोखण, पोलाद घडोवपी, बियर, सोरे, सायकली आदींचे कारखाने ह्या राज्यांत आसात.

भौशीक मळावेले उद्येग राज्यांत व्हड प्रमाणांत चलतात. भारत हेव्वी इलेक्ट्रिकल्स- हरद्वार, इंडियन ड्रग ॲण्ड फार्मास्युटिकल्स- ऋषिकेश,

डिझल लोकोमोटिव्ह फॅक्टरी-वाराणसी, फर्टीलायझर फॅक्टरी- गोरखपूर, सिंग्रौली कोल फिल्ड-सिंग्रौली, इंडियन टेलिफोन इंडस्ट्रीज-नैनी आनी रायबरेली, हिंदुस्तान एअरोनॉटिक्स, अपट्रॉन कॅपेसिटर, स्कूटर्स इंडिया लिमिटेड-लखनौ, टॅनरी ॲण्ड फुटवॅअर कॉर्पोरेशन ऑफ इंडिया, आर्टिफिशियल लिंब्स मॅन्युफॅक्चरींग कॉर्पोरेशन-कानपूर, ऑयल रिफायनरी-मथुरा अशे हे उद्येग आसात. राज्यांत १९८०-८१ मेरेन ५६३२ उद्येगीक केंद्रां आसात.

*ऊर्जा:* १९६०-६१ वर्सा ३७६ मे. वा. विद्युतशक्त निर्मिल्ली. १९८७-८८ वर्सा ४५०४ मे. वा. विद्युतशक्तीचें उत्पादन जालां. ७१,९७४ खेड्यांनी आनी ४०,३९२ हरिजन वस्त्यांनी वीज पावल्या.

**येरादारी आनी संचारण:** १९८०-८१ वर्सा मेरेन राज्यांत १,९४,२६३ किमी. लांबायेचे रस्ते आसात. राज्य येरादारी यंत्रणेचे सात वाठार आसात. ६ शारांनी अंतर्गत बससेवा आसा.

उत्तर आनी उदेंत रेल्वेचे ९२% आनी मध्य तशेंच अस्तंत रेल्वेचे ८% मेळून वट्ट ८६५६ किमी. लांबायेचे लोहमार्ग राज्यांत आसात. रुंद, अशीर आनी मीटर अशा तीन प्रकारचे लोहमार्ग राज्यांत आसात. आग्रा, अलाहाबाद, झांशी, कानपूर, लखनौ, मथुरा, मुरादाबाद आनी वाराणसी हीं मुखेल रेल्वे जंक्शनां आसात.

आग्रा, अलाहाबाद, गोरखपूर, झांशी, कानपूर, ललीतपूर, लखनौ आनी वाराणसी हांगा विमानतळ आसात. वायुदूत येरादारी वयल्या शारांनी चलता.

डाकघरां उत्तर प्रदेशाच्या चडशा सगळ्या गांवगिऱ्या वाठारांनी पावल्यांत. कांय म्हत्वाच्या गांवांनी तार करपाची टेलिफोन करपाची वेवस्था आसा. आकाशवाणीचीं मुखेल केंद्रां लखनौ, अलाहाबाद, वाराणसी, रामपूर हांगा आसात. राज्यांतलीं कांय खबरापत्रां अशीं आसात- इंग्लीश: 'द टायम्स ऑफ इंडिया', 'नॉर्दन इंडिया पत्रिका', 'पायोनियर'; हिंदी: 'आज', 'अमरउजाला', 'जागरण', 'स्वातंत्र प्रभात', 'अमृत प्रभात', 'नवजीवन'; उर्दू: सियासत जादीद, कौमी आवाज.

**लोक आनी समाजजीण:** भारतांतल्या उत्तर प्रदेश राज्याचो आवांठ २,९४,४११ चौ. किमी. आसा. लोकसंख्या ११,०३,८५,८७४ (१९८१). लोकसंख्येची दाटाय: १ चौ. किमी. क ३७७ लोक. दादले आनी बायलांचें प्रमाण १०००:८८६ अशें आसा. अनुसूचित जाती-जमातीची लोकसंख्या १,८७,४,७४८१. १५ लाखांवयर लोकसंख्या आशिल्लीं ४३ शारां तर ३० लाखांवयर लोकसंख्या आशिल्लीं अलाहाबाद, अजमगड, देवरिया, गोरखपूर, मुरादाबाद, बस्ती आनी वाराणसी हीं शारां आसात. राज्यांत काम करपी लोक २.८ कोटी आसून तातूंतले २ कोटी लोक शेतकामती आसात. घरगुती धंद्यांत १८ लाख, कारखान्यांत ८ लाख, बांदावळ करपी २ लाख आनी नोकरेक वचपी ४ लाख लोक आसात.

राज्याची मुखेल भास हिंदी आसून, त्या फाटोफाट उर्दू भाशेक मान आसा. पंजाबी आनी बंगाली भाशाय हांगा उलयतात.

उत्तर प्रदेशांत ८५% लोक हिंदू आसात. उरिल्ले चडशे मुसलमान आसात. तांचो राजकी आनी भौशीक जीणेचेर व्हड प्रभाव पडला. शिख, जैन, किरिस्तांव, बौध्द ह्या धर्मांचे लोकय राज्यांत आसात. मूळ आर्यवंशीय लोक अस्तंतेवटेन आसून, तांचो रंग गोरो आनी नाक सरळ आसा. द्रविड वंशीय लोक मिझीपूर, बुंदेलखंड वाठारांत रावतात. तांचो रंग काळो आनी नाक चेपटें आसता. मंगोलाईड वंशाचे लोक हिमालय वाठारांत रावतात. तांच्या गालाची हाडां वयर सरिल्लीं आसतात.

भारतांतल्या सगळ्या धर्मांचो प्रभाव हांगा पडला. वैदिक धर्मासावन आयजमेरेनच्या सगळ्या धर्मांचें चित्र हांगा उबें जाल्लें दिसता. परंपरावादी सनातन धर्माचो हांगा प्रभाव आसा. राज्याचेर बहुसंख्य हिंदूंचो मोटो प्रभाव आसा. बौध्द, जैन, मुसलमान, किरिस्तांव ह्या धर्मांचेर त्या त्या धर्माच्या आदल्या परंपरांचो प्रभाव आसा. वेदांत, सुफीवाद, संतांचो, फकिरांचोय प्रभाव हांगा दिश्टी पडटा.

गांवच्या लोकांची रावपाची पध्दत सादी आनी काटकसरीची. सादारण लोक फातर वा विटांनी बांदिल्ल्या घरांनी रावतात. कांय लोक मातयेचीं घरां बांदतात. शेतकामती दादल्याचो भेस धोतर, कुडतो आनी मुंडासो तर बायलांचो रंगयाळे घागरे, सदरे, ओडण्यो असो आसता. जेवणखाणांत चड करून गंवाची चपाती, ज्वारीची वा बाजरेची भाकरी, दाळ, भाजी हांचो आस्पाव आसता. मटण-नुस्तें खावपी लोकांचें प्रमाण उणें आसा. गरीब लोक मक्याची भाकरी करतात. गिमांत आंबे आनी मक्याच्या फुलांचो उपेग करतात. उदेंतेकडलो लोक आपल्या जेवणांत तांदळाचो उपेग करतात. सद्या शारांतल्या समाजाचेर आर्विल्ल्या विचारांचो प्रभाव पडला. पोरने चालीच्या गांवगिऱ्या वाठारांत ल्हवल्हव नवे बदल घडटात.

श्रावणी वा रक्षाबंधन, दसरो, दिवाळी आनी होळी हे चार सण राज्यांतले चारुय वर्णांचे लोक व्हडा उमेदीन मनयतात. दुसऱ्या दिसा रामलीलेचो मोटो उत्सव जाता. तातूंत रामाचें चरित्र दाखयतात. तशेंच रावणाचे पुतळे करून लासतात. दिवाळी व्हडा उमेदीन मनयतात. होळी, रामनम, मकरसंक्रांत, कृष्णजन्माष्टम, गीताजयंती, महाशिवरात्री ह्यो परबो राज्यांत मनयतात. कुंभमेळ्याकय हांगा खाशेलें म्हत्व आसा.

मुसलमान लोक ईद-उल-फितर, इद-उल-जुहा, मीलाद-उन्नबी (पैगंबराचो जल्मदीस) मनयतात. किरिस्तांव लोक येशू क्रिस्ताचो जल्मदीस मोटे उमेदीन मनयतात.

हिंदुस्थानी शास्त्रीय संगीत ह्या वाठारांत, जहाँगीर आनी शाहजहाँच्या काळासावन आतांमेरेन बरेतरेन वाडलां. सगळे हिंदू-मुस्लीम गवय शास्त्रीय संगीत एकेच शैलींत गायतात. कथ्थक हें हांगाचें मूळ नृत्य आसून हेर नृत्यांचेर ताचो प्रभाव पडला. दादरा आनी ठुमरी हे संगीत प्रकार हांगाच जल्मल्यात. कव्वाली, गजल, नगमा हे संगीतप्रकार हांगा नामना जोडून आसात. भारत स्वतंत्र जातकच लोकवेद, लोकनाच हांकां मोटो वाव मेळ्ळो. गढवालचो थाली जद्दा नाच, मिर्झापूरचो कर्मा नाच हे लोकांचे खूब आवडीचे आसात. रामलिला खेळाक हांगा खाशेली सुवात आसा.

गायनाच्या मळार बरकत अली खाँ, मुस्ताफ अली खाँ, उस्ताद जान खाँ, बेगम अख्तर, सुजाता चक्रवर्ती हे गवय, वादनाच्या मळार बहादुरखाँ, दामोदरलाल कामां, हरिप्रसाद चौरसिया, निखिल बॅनर्जी, अब्दुल करीम खाँ, अली हुसेन, कथ्थक नृत्याच्या मळार शंभुमहाराज हे फांकिवंत कलाकार आसात.

भारतीय संगीताची वाड करपाचो हेत बाळगून 'भातखंडे युनीव्हर्सिटी ऑफ इंडियन म्युझिक', 'भारतीय संगीत ललित कला विद्यापीठ', 'कभोंज सप्तकला निकेतन' ह्या संस्थांची थापणूक जाली.

आग्रा हांगासल्लो ताजमहाल आनी कोट, राजमानसिंहाची वेधशाळा, आग्रा फतेपूर सीक्री हांगासल्ल्यो मशिदी, पोरनी देवळां, सारनाथ हांगाचो स्तूप, हाचेवेल्यान हांगाचे वास्तुकलेचो तोंडावळो कळटा.

भगवान कार्तिकेयाची मूर्त, गणेशनृत्य मूर्ती ह्यो संपन्न मूर्तीकलेच्यो देखी आसात. हालींच मथुरा वृंदावनांत बांदिल्ल्या गीता देवळांत श्रीकृष्णाची सुंदर आनी व्हडले मुर्तीची थापणूक केल्या. ती मूर्त अपूप आनी पळोवपासारखी आसा.

**शिक्षण:** राज्यांत साक्षरतेचें प्रमाण भोव उणें म्हळ्यार २७.३८% आसा. बायलांमदीं हें प्रमाण १४.४२ आसा (१९८१). राज्यांत सद्या शिक्षणाचो प्रसार नेटान चल्ला. १४ वर्सां मेरेनच्या भुरग्यांक मुळावें शिकप फुकट केलां. चलयांक धावी मेरेनचे शिकप १९६५ वर्सासावन फुकट केलां. १९८१-८२ त १९ विश्वविद्यालयां, ३८७ महाविद्यालयां, १३,६५२ सिनिअर बेझिक शाळा, ७२,२१३ ज्युनिअर बेझिक शाळा, १२५ नर्सरी शाळा आशिल्ल्या. तेभायर ६ अभियांत्रिकी महाविद्यालयां, २८ तंत्रनिकेतनां, ६ डिप्लोमा संस्था आसात. राज्यांतल्या म्हत्वाचीं विद्यापीठांत आग्रा, अलीगढ, मुस्लीम, अलाहाबाद, बनारस, गोरखपूर,

कानपूर, लखनौ, मिरत, रुडकी, अभियांत्रिकी, पंतनगर, कृषी हांचो आस्पाव जाता. वाराणसी संस्कृत विद्यापीठ आनी देवबंद हांगासल्लें दारुल उलूम हें इस्लामी शिक्षण केंद्र अश्यो शिक्षण संस्था आसात. अलाहाबादचें हिंदी साहित्य संमेलन आनी वाराणसीची नागरी प्रचारिणी सभा हीं हिंदी भाशेचीं व्हड केंद्रां आसात.

**भाशा आनी साहित्य:** सुर्वेक राज्याची भास हिंदुस्थानी देवनागरी लिपींत, हिंदीच्या स्वरुपांत तर उर्दू लिपींत उर्दूच्या स्वरुपांत बरयताले. देशाची सुटका जातकच हिंदी चड प्रमाणांत संस्कृताच्या वळणार गेली. अस्तंतेची हिंदी वा खडीबोली राज्याची वा देशाची भास जाली. आग्रा वाठारांत व्रज आनी लखनौ वाठारांत अवधी, ह्यो हिंदी भाशेच्यो शैली अजून प्रचलित आसात.

आजमेरेन वैदीक, संस्कृत, शुध्द संस्कृत, प्राकृत, पाली भाशेंतल्यानच साहित्य रचलां अशें न्हय, तर गढवाली, कमाऊनी, खडीबोली, व्रज, अवधी, भोजपूरी, बुंदेलखंडी ह्या भासांनी व्हड प्रमाणांत साहित्य रचलां आनी रचतात.

ऋग्वेद ग्रंथ, ब्राह्मण, आरण्यक, उपनिषद, संहिता, स्मृती, रामायण, महाभारत, श्रीमद्भागवत आनी पुराण हें साहित्य पूर्विल्ल्या काळांत हे भुंयेर रचिल्लें.

व्रज भाशेंत महाकवी सूरदास हाणें श्रीकृष्णाच्या भुरगेपणाचेर सुंदर पदां रचल्यांत. महाकवी देव, महाकवी बिहारी, महाकवि गंग, महाकवी मतिराम आनी महाकवी भूषण हे भाशेंतले म्हान कवी आसात.

पोरनी परंपरा लाबिल्ल्या अवधी भाशेंत संत तुलसीदास हाची सुवात खूब ऊंच आसा. ताच्या 'रामचरित मानस' हातूंत श्रीरामाची पुराय जीण आयल्या. हो ग्रंथ हिंदू समाजाची प्रेरणा आसा अशें मानतात. महाकवी जायसी आनी महाकवी कबीर हेच भाशा परंपरेंतले आसले.

राजा शिवप्रसाद आनी राजा लक्ष्मणसिंह हांचो हिंदी भाशेची उदरगत जावपांत व्हड वांटो आसा. भारतेन्दु, हरिश्चंद्र, सर्गेस्त आचार्य महावीर प्रसाद द्विवेदी, सर्गेस्त आचार्य पद्मसिंह शर्मा हांचो भाशेचे उदरगतीसंबंदान जाल्लो वावर म्हत्वाचो आसा. पत्रकारितेच्या मळार पत्रकार शिरोमणी, सर्गेस्त आचार्य रुद्रदत्त शर्मा, सर्गेस्त आचार्य अंबिका प्रसाद वाजपेयी, सर्गेस्त आचार्य बाबूराव पराडकर, सर्गेस्त गणेशशंकर विद्यार्थी, सर्गेस्त संपूर्णानंद, सर्गेस्त पंडित मदन मोहन मालवीय हांचें काम तोखणाय करपासारकें आसा.

हिंदी कवितांच्या मळार सर्गेस्त राष्ट्रकवी श्री. मैथिलीशरण गुप्त हाची सुवात वयर आसा. प्रसाद पंत आनी निराला हिंदी कवितेची सुंदरकाय वाडोवंक जैतीवंत थारल्यात. डॉ. हरिवंशराय बच्चन, नरेंद्र शर्मा हांणी हिंदी कवितेंत मोलाची भर घाल्या.

कादंबरी (नवलिका) रचप्यांमदीं, प्रेमचंद हाच्या येदो व्हड तांकीचो प्रतिभासंपन्न बरोवपी जालो ना अशें मानतात. ताची 'गोदान' कादंबरी संवसारांत गाजल्या. हे कादंबरीचो आंतरराश्ट्रीय भासांनी अणकार जाला. सर्गेस्त वृंदावनलाल वर्मा एक व्हड इतिहासीक कादंबरीकार जावन आसा.

प्रेमचंदा फाटल्यान जैनेंद्र, अज्ञेय, चंद्रगुप्त विद्यालंकार, भगवती प्रसाद वाजपेयी, अमृतलाल नागर, राहूल सांकृतायन हांणी साहित्यांत नामना जोडल्या.

पं. गोविंद वल्लभपंत, लक्ष्मीनारायण, डॉ. रामकुमार वर्मा नाटककार म्हूण तर सर्गेस्त वासुदेव शरण अग्रवाल 'विद्वान' म्हूण नामना जोडून आसात. सर्गेस्त जिगर मुरादाबादी हे 'गजल' प्रकाराचे बादशहा आसले. ताजवर नजीबाबादी आनी कायम चांदपूरी हांणी उर्दू कवितेची सोबितकाय वाडयली. 'शायरी' प्रकारांत सर्गेस्त मजाज लखनवी, अहसान दानीश अली सरदार जाफरी, हसरत मोहानी खूब गाजल्यात.

सद्या सगळ्या तरेच्या साहित्य प्रकाराची भर पडून उत्तर प्रदेशांतलें हिंदी आनी उर्दू साहित्य समृध्द जायत आसा.

**म्हत्वाचीं थळां:** धर्मीक, इतिहासीक आनी सैमीक नदरेन म्हत्वाचीं अशीं जायतीं थळां ह्या राज्यांत आसात.

*इतिहासीक थळां:* आग्रा- शहाजहानान बांदिल्लो संवसारीक नामनेचो ताजमहल हांगा आसा. फतेहपूर-सीक्री- मोगलांच्या काळावेलो बुलंद दरवटो, चिस्तीचो दर्गो हांगा पळोवंक मेळटा. दिवाण-ई-आम आनी दिवाण-ई-खास अश्यो हांगा दोन इमारती आसात.

फैजाबाद, जौनपूर, झांशी, मिर्जापूर, मेरठ हीं हांगाचीं हेर इतिहासीक थळां आसात. कानपूर हें इतिहासीक तशेंच उद्येगीक शार आसा.

*धर्मीक थळां:* अलाहाबाद- गंगा यमुनेचो संगम, राश्ट्रीय स्मारक- आनंदभवन हांगा पळोवंक मेळटा. कुंभमेळ हांगा भरतात. हांगाचें उच्च न्यायालय, विश्वविद्यालय खूब नामना जोडून आसा. हें एक म्हत्वाचें तीर्थथळ जावन आसा.

वाराणसी, काशी आनी बनारस- हिंदू, बौध्द आनी जैन धर्मांमदीं ह्या तीर्थथळांक एक ऊंचेली सुवात आसा. हांगा नामनेचें काशी विश्वविद्यालय आसा. अयोध्या हें एक नामनेचें तीर्थथळ. बद्रीनाथ, केदारनाथ, हरीद्वार, ऋषिकेश, मथुरा, वृंदावन, तिठूर वा ब्रह्मावर्ती आनी चित्रकूट हीं तीर्थथळांय म्हत्वाचीं आसात.

सारनाथ हें बौध्दांचें धर्मथळ आसून हांगा स्तूप आनी अशोकस्तंभ पळोवपासारखे आसात. हस्तिनापूर, इंद्रप्रस्थ आनी कुरुक्षेत्र हीं थळां पौराणिक नदरेन म्हत्वाचीं आसात.

देहराडून, मसूरी, रानीखेत, अलमोडा, नैनीताल सारकीं सैमीक थळां आसात. कॉर्बेट नॅशनल पार्क, राजाजी आनी चंद्रप्रभा अभयारण्यां हांगा आसात. नकाशे काडपाचें भारतीय सर्वेक्षण केंद्र देहराडून हांगा आसा.

- माणिकराव राम नायक गावणेकार

## उत्तररामचरित:

**उत्तररामचरित:** भवभूती हाणें बरयल्लें एक संस्कृत नाटक. हें नाटक सात अंकांत आसा आनी तातूंत रामकथेचो निमाणो भाग रंगयला. रामान ध्येय, निश्ठा हांकां लागून सीतेचो केल्लो त्याग, शंबूक हाका मारपाखातीर रामाचें पंचवटींत येवप, सीतेचो जीव दिवपाचो यत्न, भागीरथान तिचो जीव वाटावन उदकांत जाल्ल्या तिच्या दोन जुंवळ्या पुतांचो वाल्मीकी कडल्यान सांबाळ करून घेवप, फुडें बारा वर्सांनी पुतांच्या जल्मदिसा निमतान धर्मीक कार्य करपाखातीर सीतेचें पंचवटींत येवप, वनवासांतली राम-सीतेची इश्टीण वासंती हिची रामाकडेन जाल्ली भेट, तिच्या खर उतरांनी तशेंच वळखीचे प्रसंग दोळ्यांमुखार येवन रामाचो शोक, सीतेच्या त्यागान रामाक जाल्लो पश्चात्ताप, रामान धाडिल्ल्या अश्वमेध घोड्याक राखपाक आयिल्ल्या चंद्रकेतूकडे लवाचें जाल्लें खर झूज, रामान केल्ली शांती, सगळ्या व्हड मनशांचें वाल्मीकी आश्रमांत मेळप, रामाची आनी लवकुशाची भेट, वाल्मीकीन बरयल्ल्या नाटकाचो अयोध्येच्या प्रजेमुखार खेळ, निमाणें रामसीता एक जावप असो हे नाटक-कथेचो विस्तार आसा.

रामायणांतले कथेचेर हें नाटक बरयतना भवभूतीन जायते बदल केल्यात; हातूंत केल्ले हे बदल फकत नाटक सोपें जावचें म्हूण न्हय, सीतेचो त्याग ते रामसीतेचें मेळप ही वाटचाल फकत काव्याक धुंवडावन नाटकाचो सुखांत सादचो म्हूण न्हय, तर सगळ्यो घडणुको एका सुत्रांत घालपाखातीर केल्यात. हे रचणुकेंत दरेक दुव्याक नाट्यप्रयोजन आसा. हातूंत रामाची वासंतीकडेन अचकीत भेट जाता, ह्या आनी तेन्नाच अदृश्य सीतेचें अकस्मात येवप ह्या नाट्ययोगान प्रजेपसून लिपोवन दवरिल्ल्या रामाच्या व्हड मनाचें दर्शन घडटा.

फुडल्या प्रसंगांत सगळ्या व्हड मनशांक वाल्मिकीच्या आश्रमांत एकठांय हाडल्यांत. हाचेवरवीं रामाविशीं आशिल्लें तांचे मत उक्तावचेखातीर ही येवजण आंखल्या हें स्पश्ट जाता. फुडें लवकुश मेळटात तें दाखयलां. उपरांतच्या प्रसंगांत भरतमुनीन देव आनी हेर पळोवप्यांच्या वांगडा अयोध्येचे प्रजेकूय गंगा न्हंयचे देगेर घाल्ल्या व्हड माटवांत आपोवन अप्सरांकडल्यान वाल्मिकीन रामकथेचेर रचिल्लें गर्भनाटक दाखयलां. ह्या प्रयोगावरवीं कल्पक रचनेचो खेळ दोळ्यांमुखार उबो रावता.

ह्या नाटकांतल्या कथानकाची सुंदर तरेन केल्ली मांडावळ आनी काव्यमय वातावरणाची निर्मणी हांकांलागून हें नाटक जैतिवंत थारलां. पयल्या अंकांत चित्रदर्शनाच्या निमतान रामसीतेच्या मोगाचें दर्शन जाता. तशेंच फुडें जातल्या विरहाची पयलींच सुलूस लागता. दुसऱ्या आनी तिसऱ्या अंकांत बारा वर्सां उलगल्याचें सैम, मोर आदींच्या वर्णनांतल्यान कळटा. तशेंच दंडकारण्यात दिसपी सैमाचें भयांकृत रुप, लव आनी चंद्रकेतुच्या झगड्यांतले वीरभाव, आश्रमांतल्या भुरग्यांची (लव कुश) निरागस मस्ती हीं वर्णनां. तेचपरी अदृश्य जाल्ली सीता आनी राम, लव आनी चंद्रकेतु, कुश, लव आनी राम हांचे मदले नाटकी भाव हांणी उत्तर रामचरित्राची कलात्मकता चड खोल केल्या. भावनांची बारीकसाण विस्कटावन दाखोवपाचें काम भवभूतीन बरेतरेन केलां. रामाच्या खर दुखाचें वर्णन करतना भवभूतीचे भाशेची तांक दिश्टी पडटा.

राम आनी सीतेचो एकामेकांवेलो मोग अक्षय आसा हें दाखोवंक तिसऱ्या अंकांत तीं दोगांय मेळटात अशी येवजण आंखल्या. तशेंच लोकांचो एकमतान आदर करपी रामाक राजा हो प्रजेचो खेळ करपी न्हय, जाल्यार एक खर आनी निःपक्षपाती न्यायाधीश आसता हाची जाणविकाय जनकाचो राग आनी लवाच्या उपहासान जाता. ह्या नाटकांत मोगाच्या आदर्शावांगडा घोव बायलेची अमर्याद प्रेमनिश्ठा, कर्तव्याक पाळो दिवप होच मुखेल आशय आसा.

भवभूतीच्या वर्णनांतल्यान वस्तू वा भाव हांचे बेस बरें वर्णन मेळटा. ताणें व्यक्तीदर्शनापरस रसदर्शनाचेर चड भर दिला. कांय टिकाकारांच्या मतान ह्या नाटकांत उलयल्ले भाशेपरस देखावी भाशा चड आसा. तरीयपूण रामकथेक नव्या अर्थाचो साज चडोवन भवभूतीन जें नाट्यकाव्य बरयलां, ताका खूब नामना मेळ्ळया.

- कों. वि. सं. मं.

**उत्तरा:** (उत्तराफाल्गुनी). भारतीय नखेत्रमाळेंतलें बारावें नखेत्र. हातूंत बीटा, लिओनीस (डेनेबोला; भोग १४७° ४७.२'; १२° १६.५'; अंतर ४३ उजवाडवर्सां, प्रत २.२३). हो योगतारो (मुखेल तारो) आनी बीटा व्हर्जिनिस (झॅविजॅवा, प्रत ३.८) अशे दोन तारे आसात. हाचो एक चरण (चतुर्थांश) सिंह राशींत आनी तीन चरण कन्या राशींत येतात. हातूंतले दोनूय तारे सिंहाकृती शेपडेच्या गोंड्यांत दिसतात. ह्या नखेत्राची देवता अर्यमा आनी आकृती शय्या (हांथरुण) अशें मानतात.

उत्तरेचें ध्यान अशें सांगलां:

व्याघ्राननोत्तरा गोस्था शुभ्रवर्णा चतुर्भुजा।
द्व्यक्षिणी सूत्रखट्वाङ्गधारिणी परिकीर्तिता।।

अर्थ-उत्तरा ही वागाच्या तोंडाची, बैलाचेर बसपी, गोरी, चतुर्भुज, दोन दोळ्यांची आनी सूत्र आनी खट्वांग धारण करपी अशें सांगलां. (हेमाद्रि).

- कों. वि. सं. मं.

**उत्तराभाद्रपदा:** भारतीय नखेत्रमाळेंतलें सव्विसावें नखेत्र. अल्फेरात्झ (भोग ३५०° २८.३'; शर २५° ४०.९'; अंतर १३० उजवाडवर्सां, प्रत २.१२). हो योगतारो (मुखेल तारो) आनी उच्चैःश्रव्यांतलो (गॅमा) अल्जेनीब (प्रत २.८७) हे दोन तारे हातूंत आसात. कांय जाणकारांच्या मतान अल्जेनीबचे सुवातीर देवयानीतलो बीटा होय हातूंतलो एक तारो जावन आसा. पेगॅसी चौरसांतले उदेंतेकडले हे दोन तारे आसात. ताका लागून उत्तराभाद्रपदा नखेत्र वळखप सोपें जाता. हाची देवता अहिर्बुध्नीय आनी आकृती पलंग अशें मानतात. वेदांत पूर्वाभाद्रपदा आनी उत्तराभाद्रपदा ह्या दोनांचोय प्रौष्ठपदा असो उल्लेख आशिल्ल्याचें सांपडटा. हें नखेत्र मीन राशींत येता.

ह्या नखेत्राचें ध्यान अशें सांगलां:

गर्दभास्या वृषारुढा सिता भाद्रपदोत्तरा।
पात्रं च डमरुं धत्ते द्विभुजेयमुदीरिता।।

अर्थः उत्तराभाद्रपदा ही गाढवाच्या तोंडाची, वृषभ (नंदी) वाहन घेवन, गोरी आनी दोन भुजांची जावन आसा. हिच्या हातांत पात्र आनी डमरु आसात. (हेमाद्रि).

- कों. वि. सं. मं

**उत्तराषाढा:** भारतीय नखेत्रमाळेंतलें एकविसावें नखेत्र. ह्या नखेत्राचो पयलो चरण (चतुर्थांश) धनू राशींत आनी फुडले तीन चरण मकर राशींत येतात. (अस्तंत) धनूंतले सिग्मा (नंकी, भोग २५८° ४८.९', शर -३° २८.१'; प्रत २.१४) हो ह्या नखेत्राचो योगतारो (मुखेल तारो) आसा आनी धनूंतलोच झीटा होय हातूंत आसा. कांय जाणांच्या मतान धनूंतले फाय आनी टाऊ हे तारेय उत्तराषाढात आसात. ह्या नखेत्राची देवता विश्वेदेव आनी आकृती हतयाच्या दातांभशेन आसा.

उत्तराषाढा नखेत्राचें ध्यान अशें सांगलां:

सर्पगा चोत्तराषाढा गौरवर्णा सुरुपिणी।
नागबन्धजटाजूटस्वर्णकुण्डलभूषिता।
अक्षनागधरा दक्षे वामे पुस्ती सकुण्डिका।।

अर्थः उत्तराषाढा ही सोरपार बसपी, गोरी, सुंदर, नागदोरयेन जटाजूट बांदपी, भांगराचीं कुंडलां घालपी आनी उजव्या हातांत फास आनी नाग तशेंच दाव्या हातांत पुस्तिका आनी कुंड घेवन आसता. (हेमाद्रि).

- कों. वि. सं. मं.

**उत्सव:** मनशाक उमेद, उर्बा, आनंद, आनी धादोसकाय ज्या धर्मीक सुवाळ्यांत मेळटा त्या धर्मीक सुवाळ्याक 'उत्सव' म्हण्टात. 'महउध्दव उत्सव' असो अमरकोशांत ताका पर्यायशब्द मेळटा.

मनीस जल्माक येतना जरी एकलो एकसुरो आयलो तरी भौशीक मळार आनी समाजांत ताका एकलो एकसुरो रावप जमना. ताका संवसार, कुटुंब हीं बंधनां आपणावचीं पडटात. तातूंत तो घुस्पता, खर्शेता तसोच निर्शेता. संवसारांतली दुखाची आनी कश्टाची जीण जियेतना आपली मोख हातासपाक ताका जायतीं आडमेळीं येतात. संवसारीक आनी भौशीक जीणेंतल्यो खंती, दुखां, चिंता कुशीक उरून कुडीक विसव आनी मनाक आनंद मेळचो ह्या हेतांतल्यान उत्सवाचे प्रथेचो जल्म जालो.

वर्सांतल्यान थारायिल्ल्या दिसा, थारायिल्ल्या ऋतूंत, थारायिल्ल्या तिथींक मनशान भौशीक मळार एकठांय येवंचें, सगळ्यांनी नाचचें, खेळचें, सैम आनी कला ह्या गजालींचो आनंद घेवंचो, नव्यो गजाली शिकच्यो, आपलें जिवीत अणभवान समृध्द करचें हो उत्सवाफाटलो मुखेल हेत आसा. तेचखातीर वात्स्यायनान समाज आनी मेळावे हांकां 'संभूय क्रीडा' अशें नांव दिलां.

भारतांत पितृपूजा, वीरपूजा, नांगरणी, पेरणी, कापणी सारकीं शेतवडीचीं कामां, ऋतूपरिवर्तन, गणदेवता, ग्रामदेवता सारक्या संबंदांत उत्सव मनयतात. तेभायर कांय उत्सव राजा आनी तांच्या राज्यशासनावरवीं मनयताले. देखीक- हस्तिमंगल, वप्पमंगल, जयपान.

धर्म वा कर्म हांचो संबंद नाशिल्ले कांय उत्सव वैदिक काळार मनयताले अशें ऋग्वेदांत म्हळां (२.१६.७; १.१२४.८; १.४८.६). ऋग्वेदांत ह्या भौशीक उत्सवांक 'समन' अशें नांव दिलां. ह्या उत्सवांत दादले-बायलो मेकळेपणान वांटो घेताले. कवी, धनुर्धारी, शिंदळकी करपी, वयांत आयिल्ल्यो चलयो ह्या उत्सवांत वांटो घेताल्यो. मेकळी चलणूक, नाचप, गावप, सोरो पिवप, जुगार खेळप, मनांत येता तशें वागप, ह्या सारक्या गजालींक ह्या उत्सवांत मेकळीक आसताली.

रामायणांत वाल्मिकीन अयोध्येक 'समाजोत्सव शालिनी' म्हळां. समाजोत्सवांत नाटकां जातालीं अशें वात्स्यायन म्हण्टा. कामसुत्रांतले मौज-मजेक समाजोत्सवांत ऊंचेली सुवात आसताली. वयल्या तरांचे उत्सव जैन धर्मांतूय जाताले. आचारांगसुत्रांत तांकां 'संखडि' म्हळां.

पूर्विल्ल्या काळांत एकाद्रो उत्सव राजनगरांत जातालो, तेन्ना छणभेरी नांवाचो धोल वाजोवन तेविशींची सुचोवणी भौसाक दिताले. देखीक- कौमुदीमहोत्सव, उद्यानयात्रा, पर्वतयात्रा आदी. आयजय कोंकणात जेन्ना

थळाव्या देव-देवतांची जात्रा आसता, तेन्ना फांतोडेर देवळामुखार धोल वाजयतात.

धर्म, पंथ, देव-देवता ह्या विशीचें प्रस्थ जशें लोकांमदीं वाडलें, तेचपरी उत्सवांचो आंकडोय वाडलो. कांय उत्सव, कांय खाशेलेच पंथ आनी संप्रदायूच मनयताले. तर कांय उत्सव सगळ्यो भेद भावाच्यो वण्टी मोडून सगळ्यांचे जाल्ले. चातुर्मासासारके उत्सव कांय पंथ संप्रदायांमदीं उरले तर वर्षप्रतिपदा, अक्षयतृतीया, नागपंचम, गौरीगणपती, दसरो, दिवाळी, मकरसंक्रांत, होळी सारके उत्सव संप्रदायाचे भेद मोडून मुखार गेले. काळांतरान म्हयनो-तीथ-नखेत्र हांचे फास्केंत ह्या उत्सवांक बसयले.

पूर्विल्ल्या काळांत लोकोत्सव चार तरांनी वांटिल्लेः १. श्रेश्ठ देवतांचो भोवमान २. क्षुद्र देवतांची दया संपादन करप ३. भूतकाळांत जावन गेल्ले धर्मप्रवर्तक आनी महात्मे हांचो उगडास मनोवप ४. पंचमहाभूतां आनी सैमांतल्या गरजेच्या वस्तूंची तुस्त, तोखणाय करप आनी उपकार मानप.

उत्सव हें मनशाच्या मनाचें अन्न जावन आसा. मनशाचीं दुखां कांय खीणांखातीर जायनात, पूण विसरायेर घालपाचें तें एक साधन आसा. भारतांत, तेचपरी गोंयांत वेगवेगळे उत्सव व्हडा खोशयेन आनी उमेदीन मनयतात. उत्सवाच्या निमतान सोयरीं-धायरीं परतीं आपल्या मूळ गांवांत, मूळ घरांत येतात. ह्या दिसांनी दर गांवांत दर एकल्याच्या तोंडार खोशयेचीं ल्हारां उफेतना दिश्टी पडटात. गोंयांत गणेश चवथीचो उत्सव व्हडा दबाज्यान मनयतात. हेर उत्सवांमदीं दिवाळी, शिगमो, नाताल, ईद व्हडा उमेदीन मनयतात.

-कों. वि. सं. मं.

**उदक:** सगळ्यांच्या वळखीचो एक सादारण द्रव पदार्थ. पयलींच्या काळांत उदक हें एक मूलद्रव्य आसा, असो समज आशिल्लो. पूण १७६१ त हेन्री कॅव्हेंडिश हाणें उदक हें हायड्रोजन आनी ऑक्सिजन हांची २:१ ह्या घनफळाच्या प्रमाणांत भरसण आशिल्लें संयुग आसा अशें सिध्द केलें. १८०० त सर हंफ्री डेव्ही हाणें उदक हें ऑक्सिजनचे ८ भाग आनी हायड्रोजनचो १ भाग अशा प्रमाणांत तयार जाल्लें संयुग आसा, अशें दाखोवन दिलें. १८६७ त, उदकाक $H_2O$ हें रेणुसूत्र (formula) निश्चित केलें.

धर्तरेवयल्या जीवांची उत्पत्ती उदकांत जाली आनी ताका लागून उदक हें जीव-उत्पत्ती जावंचे आदींपसून अस्तित्वांत आसा अशें निश्चितपणान म्हणूं येता. धर्तरेच्या पृष्ठभागावयलो सुमार तीन चतुर्थांश भाग उदकानूच व्यापिल्लो आसा.

वट्ट उदकाच्या ९७ % उदक दर्यांत आस्पावता आनी उरिल्लें ३% उदक धर्तरेच्या कट्ट्यापोंदा ५ किमी. चेर आनी धर्तरेच्या पृष्ठभागावयर १२ किमी. चेर सांपडटा. रायमंड नेस ह्या अमेरिकन उदकवैज्ञानिकान उदकाचे वांटणेविशींचो (distribution) तयार केल्लो तक्तो फुडें दिल्लो असो:

*उदकाचे वांटणेविशींचो तक्तो*

| सुवात | उदकाचें घनफळ (घनीय मैल- (Cubic Miles) | टक्केवारी (सादारणपणान) |
|---|---|---|
| *पृष्ठभागावयलें उदक:* साव्या उदकाचीं सरोवरां | ३०,००० | ०.००९ |
| खाऱ्या उदकाचीं सरोवरां आनी मध्यदेशस्थ (Inland) दर्या | २५,००० | ०.००८ |
| न्हंयो आनी झरे | ३०० | ०.०००0९ |
| | ५५,३०० | ०.०१७ |
| *पृष्ठभागापोंदचें उदक:* जमनींतली ओलसाण | १६,००० | ०.००५ |
| अर्द मैल खोलाये-इतलें जमनीपोंदचें भूंय-उदक | १०,००,००० | ०.३१ |
| अतिखोल भूंय उदक | १०,००,००० | ०.३१ |
| | २०,१६,००० | ०.६२५ |
| हिमआवरण आनी हिमन्हंयो (Glaciers) | ७०,००,००० | २.१५ |
| वातावरणातलें उदक | ३,१०० | ०.००१ |
| | ७०,०३,१०० | २.१५१ |
| दर्या | ३१,७०,००,००० | ९७.२ |
| वट्ट | ३२,६०,७४,४०० | १०० |

मोनजात आनी वनस्पत हातूंत उदक हो एक म्हत्वाचो घटक आसा. मनशाचे कुडींत सुमार ७०%, जमनीवयले वनस्पतींत ५०-७५% आनी उदकांतले वनस्पतींत ९५ ते ९९% उदक आसता. कांय खनिज पदार्थांत, उदक संयोगित (combined) अवस्थेंत आसता.

धर्तरेचेर दर्या, न्हंयो, व्हाळ, बांयो ह्या रूपान उदक मेळटा. कांय सुवातींनी जमनीसकयल उदक आसता, पूण खूब खोल आशिल्ल्याकारणान तें भायर काडप परवडना. घनरुप उदक उत्तर आनी दक्षिण ध्रुवांकडल्या सदांच हिमाच्छादित आशिल्ल्या वाठारांत, शीत कटिबंधांत आनी हेर ऊंच दोंगरांचेर दिसून येता. कऱ्यांचो पावस पडून हिमवर्षाव जाता तेन्ना ताचें अस्तित्व दिसून येता. बाशपरुप उदक वातावरणांत कमी-चड प्रमाणांत सदांच आसता. सैमीक उदकाचें, बर्फ हें एक शुध्द रुप. नागरी जिणेखातीर लागपी उदक न्हंयो, सरोवरां आनी बांयो हांचेपसून मेळटा.

धर्तरेच्या जल्मासावन म्हळ्यार सुमार ४६० कोटी वर्सां आदल्या काळासावन धर्तरेवयलें वट्ट उदक आनी ताचीं लक्षणां हातूंत मात्तूय बदल जावंक ना. वनस्पत आनी मोनजात हांणी बाशपाच्या रुपान सोडिल्लें उदक, दर्या आनी जमीन हातूंतल्यान उदकाचें बाश्पीभवन (evaporation) जावन उदकाची तयार जाल्ली वाफ वातावरणांत पावता आनी ताचेपसून कुपां तयार जातात.

कुपांपसून पावसाच्या, हिमाच्या आनी कऱ्यांच्या रुपान उदक परत धर्तरेक येवन मेळटा. हातूंतलें कांय उदक दर्यांत झिरपून वता आनी अशे तरेन हें जलवर्तन वा जलस्थित्यंतरचक्र (water cycle) एकसारकें सासणाचें चालूच उरता.

दर्याच्या उदकांत आनीकूय हेर पदार्थांचो आस्पाव आसता. धर्तरेवयल्या उदकाचें वट्ट वजन= $१.१४१४\times१०^{१८}$ मॅट्रिक टन. दर्यांतल्या मीठाचें वट्ट वजन= सुमार $४.८४\times १०^{१६}$ मॅट्रिक टन. दर्यांतल्या उदकांत आस्पावपी वेगवेगळे पदार्थ अशेः NaCl-२.७%, $MgCl_2$-०.४%, $MgSo_4$-०.२%, $CaSO_4$ -०.१५%, KCl -०.०५%.

**भौतिक गुणधर्मः** शुध्द उदकाक रुच आनी वास आसना. उदकाचो पातळ थर रंगविरयत आसता. पूण ताच्या दाट (२ मी. परस चड) थरांतल्यान पळेत जाल्यार उदक निळसर दिसता. उदक थंड करपाक




लागल्यार ४° से. तापमानाचेर पावमेरेन उदक आकुंचित जाता. तापमान ताचे सकयल वचपाक लागलें म्हण्टकच तें प्रसरण जावपाक लागता आनी ०° से. तापमानाक गोठेता. उदकाच्या ह्या गुणधर्माक उदकाचें 'असंगत प्रसरण' (anomalous expansion) अशें म्हण्टात. ४° से. तापमान आशिल्लें उदक हेर तापमानाच्या उदकापरस जड आसता, म्हळ्यार ताची घनता ह्या तापमानाक सगळ्यांत चड आसता. उदकाची खासा उश्णता सगळ्या पदार्थांच्या खासा उश्णतेपरस चड आसा. ताका लागून उदक सवकास तापता आनी सवकासायेन थंड जाता आनी अशे तरेन वातावरणाच्या तापमानाचें नियंत्रण जाता. उदकाचे हेर भौतिक गुणधर्म अशे- गोठण बिंदू: ०° से.; ०° से. तापमानावेळार उदकाची घनता: १.००
ग्रॅम/घ.सेंमी.; बर्फाची घनता (०°से. तापमानावेळार): ०.९२ ग्रॅम/घ.सेंमी.; द्रवीभवनाची (fusion) उश्णता: ७९.७ कॅलरी/ ग्रॅम.डिग्री; उकळ बिंदू: १००°से.; बाश्पीकरणाची उश्णता: ५३९.४ कॅलरी/ग्रॅम सगळ्यांत ऊंच घनता (३.९८° से. तापमानावेळार): १.००००७३ ग्रॅम/घ.सेंमी.; क्रांतिक तापमान: ३७४° से.; क्रांतिक दाब: २१७.५ Atms.;खासा संवाहकता: १×१०⁻⁷ mho सेंमी.⁻¹ (एकदम शुध्द उदक); विद्युत् अपार्यता स्थिरांक: ७८; सांद्रता: ७५.६ डाईन/सेंमी. (०° से. कडे) आनी ७४.२२ डाईन/सेंमी. (२०° से. कडे); प्रणमनांक (refractive index):१.३३३, त्रिक बिंदू: बर्फ-उदक-बाश्प हांच्या संतुलनांत, ०.००९८° से. ४.५७९ मिमी. Hg चो दाब आसतना; रचणूक= हायड्रोजन: ऑक्सिजन, घनफळ: २.००२८८ : १.०००, वजन- १.००७९७ : १५.९९९४. उदकांतल्यान विद्युत् प्रवाहाचें संवहन खूब सवकसायेन जाता. उदक हो बरो विद्रावक आसून तातूंत जायते पदार्थ विरगळटात.

**रसायनीक गुणधर्म:** रसायनीक नदरेन उदक हें थीर संयुग जावन आसा. २०००° से. तापमानाकडेन लेगीत वट्ट उदकाच्या फकत ०.६% द्रव्याचें ताच्या मूलद्रव्यांत अपघटन जाता, हाचेवयल्यान ही गजाल स्पश्ट जाता. उदकाचे हेर रसायनीक गुणधर्म अशे: १. क्षारीय (alkaline) धातूंसारकीले उंचेले धन विद्युत् धातू, कोठी तापमानाकडेन उदकाचें विघटन घडोवन हाडटात आनी हायड्रोजन वायूची उत्पत्ती जाता. तांबें, चांदी, भांगर, पारो, कथील ह्या धातूंची उदकाचेर वा वाफेचेर कसलीच क्रिया जायना. २. फ्लोरीन, क्लोरीन, ब्रोमीन हांच्यासारक्या उंचेल्या ऋण-विद्युत् अधातवीय मूलद्रव्यांची कोठी तापमानाकडेन उदकावांगडा विक्रिया जावन ओझोनीय ऑक्सिजन उत्पन्न जाता, जाल्यार क्लोरीन आनी ब्रोमीन सूर्याच्या उजवाडांत ऑक्सिजनची निर्मिती करतात. ३. कार्बन, बोरोन, सिलिकासारके अधातू रक्तोश्माकडे (red hot) वाफेचें विघटन घडोवन हाडटात. ४. धातवीय ऑक्साइडांवांगडा उदकाची विक्रिया जातकच उदकांत हे ऑक्साईड विरगळटात. देखीक: क्षारीय धातू. ५. उदकाची आनी विद्राव्य अधातू ऑक्साइडांची विक्रिया जातकच अम्लांची (acids) निर्मिती जाता. ६. निर्जल (anhydrous) क्षारांवांगडा उदकाची विक्रिया जातकच, उदक तातूंत भरसता आनी hydrates तयार जातात. ६. अम्लां (acids), क्षारां (bases), क्षारकां ह्या विद्युत् विच्छेद्यांची (electrolytes) उदकावांगडा विक्रिया जातकच तीं उदकांत विरगळटात आनी तांचे आयन तयार जातात. विद्युत्- विच्छेदन (electrolysis) करतकच, विद्युत्-विच्छेद्य (electrolyte) विद्रावांचें विघटन जाता. ८. जलीय विच्छेदन (hydrolysis): दुबळ्या अम्लांचीं आनी क्षारकांचीं क्षारां अर्दी आनी पुराय विघटित जातात. ९. उत्प्रेरण (catalysis): कितल्याशाच विक्रियांनी वाफेच्या रुपांतलें उदक, उत्प्रेरकाचें काम करता.

**विश्लेशणात्मक परीक्षा:** १. सोडियम वा पोटॅशियमचो ल्हान कुडको उदकाच्या संपर्कांत येतकच, हायड्रोजन वायू तयार जाता आनी तो पेट घेता. २. निर्जल कॉपर सल्फेट ($CuSO_4$ ) उदकाच्या संपर्कांत येतकच निळो रंग तयार जाता. ३. 'कार्ल फिशर' विक्रियक (reagent) द्रव्य उदकावांगडा भरसतकच गुलाबी रंग तयार जाता.

सूर्यमाळेंत उदक तीनूय रुपांनी मेळटा: घन (बर्फ), द्रव (उदक) आनी वायू (वाफ). सूर्याच्या लागसार उदक फकत वाफेच्या रुपांत मेळटा. सूर्याच्या फुडें उदकाचें रुपांतर बर्फांत जाता. धर्तरेचेरूय उदक ताच्या तीनूय रुपांत मेळटा. सगळे तरेच्या जिविताखातीर उदक ही एक मुळावी गरज जावन आसा.

**वायूरुपांतलें उदक:** जलीय बाश्परुपी (Water Vapour- वाफ) उदकांतल्या रेणूंची हालचाल एकामेकांपरस पुराय स्वतंत्र आसता. उदकाच्या रेणूंतले अणू एकामेकांकडेन खूब ऊंच अशा ध्रुवीय (polar) रसायनीक बंधांनी गुंतिल्ले आसतात. हातूंतल्या दरेका बंधाचें हायड्रोजन तोंक ऑक्सिजनच्या संबंदांत धन विद्युत् (electrically positive) आसता. १२००° से. परस चड तापमानामेरेन वाफ तापयली जाल्यार ती विच्छेदित (dissociate) जावन हायड्रोजन अणू आनी हायड्रॉक्सिल मुक्त मुलकां (free radicals) तयार जातात. $H_2O \rightleftharpoons H+OH$. तापमान देंवयतकच हे उत्पाद (products) परत एकामेकांक मेळून उदकाचे रेणू तयार जातात. वाफेच्यो चडशो सगळ्यो रसायनीक विक्रिया द्रवरुप उदकासारक्योच आसतात. ३७४° से. तापमानाच्या वयर द्रवीकरण (liquefaction) करीनासतना जाय ते घनतेप्रमाण, वाफ संपीडित (compressed) करुं

येता. ०.४ ग्रॅ./घ.सेंमी. इतले ऊंच घनतेकडेन उदकांत कांय क्षारां विरगळटात. (सादारण अवस्थेंत वाफेची घनता= ०.०००५८८२ ग्रॅ./घ.सेंमी.) उंचेल्या तापमानाची आनी दाबाची ही अवस्था कांय कार्यक्षम वाफेच्या यंत्रसंचांत दिसून येता.

**घनरूप उदकः** बर्फांत उदकाचे रेणू हायड्रोजन बंधांनी वेवस्थित रचणुकेच्या क्रमान बांदिल्ले आसतात, हें सकयल दिल्ले आकृतीवयल्यान स्पश्ट जाता.

घनरुपी बर्फाक जर २०००Atms. परस चड दाब दिलो जाल्यार पांच वेगवेगळे स्फटीक मेळटात. ह्या स्फटिकांचें रुप निमणें तापमान आनी दाब हाचेर थारायल्लें आसता. ते सगळे उदकापरस चड घन आसतात. (बर्फ हो उदकापरस ल्हव आसता.) दाब देंवयल्यार ह्या सगळ्या स्फटिकांचें परत सामान्य बर्फांत रुपांतर जाता. घन रुपांत उदकाच्या रेणूचें घनफळ $= ३२.३ A^3$ ($३२.२ \times १०^{-२४}$घ. सेंमी.) इतलें आसता.

**द्रवरुप उदकः** द्रवरुप उदकांतले रेणूय हायड्रोजन बंधांनी बांदिल्ले आसतात. जेन्ना बर्फ वितळटा, तेन्ना हातूंतले कितलेशेच बंध तुटतात आनी जे बंध एकठांय उरतात ते कमी आशिल्ल्यान तांकां रेणूंचो रचनाक्रम वेवस्थित दवरप शक्य जायना. रेणूंमदले हायड्रोजन बंध हे उदकाच्या कांय खाशेल्या गुणधर्मांचें कारण जावन आसात. हातूंतलो एक खाशेलो गुणधर्म म्हळ्यार- उदकाचें शीतलीकरण (cooling) केलें जाल्यार ३.९८° से. तापमानामेरेन उदकाचें आकुंचन जाता. पूण ह्या तापमानासकयल उदकाचें प्रसरण (expansion) जाता. देखून ३.९८° से. तापमानाकडेन उदकाची घनता सगळ्यांत चड आसता. ताचे वयर आनी ताचे सकयल ही घनता कमी जाता. घनरुप उदकाचे घनता द्रवरुप उदकाच्या घनतेपरस कमी आसता. द्रवरुप आनी वायुरुप अवस्थेंत उदकाचें घनफळ $= १८.८३ A^3$ इतलें आसता.

**उदकाचे उपेगः** मनीस, प्राणी आनी वनस्पत हांच्या जिविताखातीर उदक ही एक मुळावी गरज जावन आसा. विक्रियक (reactant), विद्रावक (solvent) आनी उत्प्रेरक (catalyst) म्हूण वैज्ञानिक प्रयोगशाळेंत आनी उद्येगकारखान्यांत उदकाचो मोट्या प्रमाणांत वापर जाता. लिटर, कॅलरी सारक्या कांय भौतिक एककांचें निदर्शन करपाखातीर उदक हें प्रमाण अशें मानतात. खास गुरुत्व (specific gravity), सापेक्ष सांद्रता (relative viscosity) हांच्यासारक्या कांय भौतिक गुणधर्मांची तुळा करपाखातीर उदक हें प्रमाण अशें मानतात. बार्जीवरवीं आनी बोटीवरवीं मालाचें हाड-व्हर करपाखातीर उदकाचो मार्ग वापरतात. उरिल्ले आनी घाण पदार्थ सोडपाखातीर उदक हें एक बऱ्यापैकी साधन आसा.

परिक्षेपणीय माध्यम, शीतलीकरण मध्यस्थ, निवळ करपाचें साधन, तशेंच उश्णता आनी शक्ती हांच्या उत्पादनाखातीर आनी वितरणाखातीर उदकाचो मोट्या प्रमाणांत वापर जाता. बर्फ तयार करपाखातीर आनी अन्न तिगोवपाखातीर (food preservation) उदकाचो उपेग जाता. पेंवपाखातीर, नुस्तें गरोवपाखातीर, नौकानयनाखातीर आनी हेर मनोरंजनाचें साधन म्हूण उदकाचो वापर जाता. उदक हो एक विश्वव्यापी विद्राव जावन आसा. उदक सगळे दोंगर धुवन काडटा, देगणां तयार करता. सगळ्या खंडांचो आकार बदलून उडयता, सबंद धर्तरी झाडून काडटा. धर्तरेक एक नवेंच स्वरुप दिवपाची उदकांत ताकद आसा. सूर्याच्या खर किर्णांपसून उदक धर्तरेची राखण करता. सरोवरां आनी न्हंयो हांचेपसून मेळपी उदक पिवपाखातीर वापरचेपयलीं ताचेर शुध्दीकरणाखातीर कांय रसायनीक प्रक्रिया करतात. वैजकी आनी संशोधन विभागांत खास ऊर्ध्वपातीत (distilled) उदक वापरतात.

**अफेनद उदक** (Hard Water): उदक खडपांतल्यान व्हांवत वता तेन्ना तातूंत कॅल्शियम आनी मॅग्नेशियम हांचीं सल्फेटां आनी क्लोराइडां आसत जाल्यार तीं तातूंत विरगळटात. उदकांत कार्बन डाय-ऑक्साइड थोड्या प्रमाणांत विरगळिल्लो आसता. असलें कार्बन डाय-ऑक्साइड भरसल्लें उदक कॅल्शियम आनी मॅग्नेशियम कार्बोनेटां आशिल्ल्या खडपांच्या सांगातांत आयलें म्हण्टकच रसायनीक विक्रिया जावन कॅल्शियम आनी मॅग्नेशियम बायकार्बोनेटां अनुक्रमान तयार जातात आनी तीं विद्राव्य आशिल्ल्यान उदकांत विरगळटात. हीं बायकार्बोनेटां, सल्फेटां, क्लोराइडां आशिल्लें उदक शाब्बान कपडे धुवपाखातीर वापरुंक मेळनात. असल्या उदकांत शाब्बाचो फेणेर येना म्हूण ताका 'अफेदन उदक' (फेणेर न येवपी- Hard water) ' अशें म्हण्टात. ज्या उदकांत असलीं क्षारां आसनात, त्या उदकाक 'फेनद उदक' (Soft Water) अशें म्हण्टात.

अफेनद उदक जेन्ना शाब्बान कपडे धुवपाखातीर वापरतात, तेन्ना शाब्बावांगडा त्या उदकांतल्या संयुगांची रसायनीक विक्रिया जाता आनी अविद्राव्य पदार्थ (देखीक- कॅल्शियम स्टिअरेट, मॅग्नेशियम स्टिअरेट) तयार जातात. ताका लागून शाबू पेड्ड्यार जाताच, तशेंच तयार जाल्या अविद्राव पदार्थांचो थर कपड्यांचेर बसून ते आनीक लोळपाची शक्यताय आसता. अफेनदपण (hardness) दोन प्रकारचें आसता. १. तात्पुरतें अफेनद उदकः हें उदक कॅल्शियम आनी मॅग्नेशियम बायकार्बोनेट्स हांकां लागून जाता. २. सासणाचें अफेनद उदकः हें उदक कॅल्शियम आनी मॅग्नेशियम क्लोराइड्स हांकां लागून तयार जाता. तात्पुरतें अफेनदपण हें उदक खतखतायल्यार ना जाता जाल्यार कायमचें अफेनदपण उदक शिजयल्यार लेगीत पयस जायना.

उदका रेणूची रचणूक



**जड उदकः** सामान्य उदकाचो रेणुभार १८ आसता. रेणुभार १८ परस चड आसता त्या उदकाक 'जड उदक' (Heavy Water) अशें म्हण्टात. जड उदक वट्ट १८ प्रकारचें आसता. हातूंतल्या ड्यूटेरियम ऑक्साइड (रेणुसूत्रः D-O-D; रेणुभारः २०) हाका सादारपणान जड उदक अशें म्हण्टात. जड उदकाच्या ह्या रेणूंत साद्या उदकाच्या रेणूंतल्या हायड्रोजन अणूंच्या जाग्यार २ द्रव्यमानांक आशिल्ल्या हायड्रोजन समस्थानिकाचे (Isotopes) दोन अणू आसतात. जड उदकाचे कांय भौतिक गुणधर्म अशे- २०° से. कडे घनताः १.१०५९; उकळ बिंदू: १०१.४२° से.; वितळ बिंदू: ३.८२° से.; उच्च घनतेकडलें तापमानः ११.४° से.; पृष्णत्ताणः ६७.८ डाइन/सेंमी.; प्रणमनांकः १.३२८.

ह्या उदकाच्यो रसायनीक विक्रिया सामान्य उदकाभशेनूच आसतात पूण विक्रियेचो वेग मात कमी आसता. सस्तन जनावरांक जड उदक पियेत जाल्यार चड तान लागता. ह्या उदकापसून बियांचें अंकुरण (germination) जावंक पावना. जड उदक सैमीक उदकांत मेळटा आनी ह्या सैमीक उदकाचें पर्थून पर्थून ऊर्ध्वपातन (distillation) करतकच जड उदक मेळटा. अणुभट्टींत शीतलक आनी शामक म्हूण जड उदकाचो वापर जाता. रसायनीक आनी जीवविज्ञानीय संशोधन कार्यांत जड उदकाचो मोट्या प्रमाणांत वापर जाता.

**भौवारिक उदक** (Polywater): रशियांतले एन्. एन्. फेड्याकिन तशेंच बी. व्ही. डेरजॅग्युइन आनी तांचे वांगडी हांणी १९६२ च्या सुमाराक भौवारिकाच्या (दोन वा अदीक रेणूंचो संयोग जावन तयार जाल्ल्या जटिल संयुगाच्या) रुपांत आशिल्लो एक उदकाचो प्रकार सोदून काडलो. ताचे गुणधर्म सामान्य उदकापरस मात्शे वेगळे आसात अशें मत तांणी मांडलें. पूण उपरांत जायत्या प्रयोगशाळेंत जाल्ल्या संशोधनान लेगीत ताचें अस्तित्व सिध्द जालें ना. निमाणें १९७३ त, अशें सिध्द जालें की, भौवारिक उदक हें कांय कलिल (colloidal) अपद्रव्यां आशिल्लें सामान्य उदकाचेंच एक रुप आसा.

- डॉ. अनिल डिंगे

**सांस्कृतिक संदर्भः** (संस्कृत- जीवन, जल, सलिल, तोय अम्बु, नीरद, नीर; गुजराती- पाणी; हिंदी-पानी; फ्रेंच- ओ; इंग्लीश- वॉटर; पोर्तुगीज- आग्व; मराठी- पाणी; कन्नड-नीरु).

एक मुखेल अन्न. हाची व्याख्या अशी- 'जलति जीवयति लोकानिती'- लोकांक जिवे दवरता तें जल वा उदक.

उदक हें उतर मूळ संस्कृत भाशेंतले आसा. कोंकणी भाशेंतय ह्याच उतराचो वापर जाता. उदक उतराची व्युत्पत्ती अशी करतात. 'उद' म्हळ्यार वयर येवप वा ओलें करप. 'क' हो स्वार्थी प्रत्यय लागून 'उदक' हें उतर जालें. बृहदारण्यकांत (५.१) 'उदक' हें सगळ्या वस्तूंचें मूळ आसा अशें म्हळां. वैदिक साहित्यांत उदकाची देवता 'वरुण' असो उल्लेख आयला. ही देवता उदकाचेर नियंत्रण दवरता. तिचें वस्त्र उदक आसून तें ती पांगरुंक घेता.

संस्कृत साहित्यांत उदकाचे कांय उल्लेख फुडलेतरेन येतातः

तच्य दद्यान्नरो नित्यं यदीच्छेदभूतिमात्मनः।
धन्यं यशस्यमायुष्यं जलदानमिहोच्यते।। दानराज।।

उदकासारकें दान ना अशें दानराज सांगता.

रसगुणबहुल द्रव्यम, सौम्याः स्वल्पापोडन्तरिक्षप्रभवाः
प्रकृतिशीताः लहव्यश्चाव्यक्तरसाश्च (चरकसूत्रः २६.३९)

उदक हें सभावीकपणान मळबांतल्यान पडपी थंड, ल्हव रस-पाक जायना अशें द्रव्य आसा.

ऋग्वेदांत (५.८५:६), 'न्हंय दर्याकडेन मार्गक्रमण करून दर्याक मेळटा पूण दर्या केन्नाच भरना हें वरुणाचें कुवाडें न्हय मूं?' अशें म्हळां.

उदक हें पंचमहाभूतांतलें सृश्टीवेलें भूत आसा. पंचमहाभूतांच्या द्रव्याचे उत्पत्तीचें हे कारणभूत आशिल्ल्यान सह्य रसाचें उदक हें समवायी कारण आसा. ताचो वर्ण शुक्ल, रस मधूर आनी स्पर्शें शीतल आसा. द्रव्यत्व हो ताचो सभावीक गूण आसा.

मूळ उदक हें सगळें एक आसलें तरी देश वा काळ हांकां अनुसरुन तें तरेकवार जाता. तेपासत तें हितकारक वा घातक जावं येता. मळबांतल्यान पडिल्लें उदक चंद्र, वायू आनी सूर्य हांचो स्पर्श जाल्ल्यान थंड, शुध्द आनी नितळ आसता. (आकाशात्पतितं जलं सोमवायवर्मैः सृष्टंभवति, हितहितत्वे तद्देशकालमपेक्षते).

उदक, पृथ्वी ह्या तत्त्वाकडेन संबंदीत आशिल्ल्यान उदकाचे गूण पृथ्वीच्या गुणांक लागून बदलतात.

१. धवे जमनीत- तुरट उदक, २. काळशे जमनीत- कडू उदक, ३. हळडुवे जमनीत- क्षारयुक्त, ४. खारे जमनीत-खारें उदक, ५. दोंगराच्या मुळसांत-मात्शें तीख, काळी जमीन- कातळ, गोड.

उदकाचे सादारण गूणः जीवनशक्त दिवपी, तृप्ती करपी, पुश्टिक, तान भागोवपी, काळजाक थंड, हितकर, ल्हव अशें आसा.

कालमानानुसार उदकाचे गूण विंगडविंगड आसात.

**वर्षाः** वार्षिक जलम्-गुर्वाभिष्यन्दि मधुरम्। अर्थ- उदक जड आनी आर्द्रता निर्माण करपी, गोड आसता.

**शरदः** तनु लघ्वनभिष्यन्दि, एत्ततुसुकुमाराणं। स्निग्धभूयिष्ठ भोजनानां, भोज्यभक्षलेह्यपेयेषुच शस्यते। अर्थ- उदक, ल्हव, निर्मळ, आर्द्रता उणे आसपी स्निग्ध आनी चतुर्विध, अन्न खाल्याउपरांत पिवपाक योग्य.

**हेमन्तः** स्निग्धं, वृष्यं, बलहितं गुरु। अर्थ-उदक, स्निग्ध, जड, शुभ, घटसाणीक बरें.

**शिशीरः** हेमन्तात लघुतरं कफनातजित। अर्थ- उदक, हेमन्तापरस चड ल्हव, कफ–वात नाश करपी.

**वसंतः** उषायमधुररुक्षम्। अर्थ- उदक तुरट, गोड, रुक्ष अशें आसता.

**ग्रीष्म** : अनभिष्यन्दि। अर्थ-उदक, आर्द्रता उणें न करपी

(चरकसूत्र : २७.२०३.६)

उदक हें उतर लावन जायते संस्कार, उक्ती तयार जाल्यात. (१) उदक सोडप – दान करप. (२) उदकक्रिया – अन्त्येष्टी (३) उदकशांत – बौधायनांत सांगिल्ल्याप्रमाण सूक्त पठण करुन तें उदक घर शुध्द करपाखातीर घरभर शिंपडप. देखून घर पवित्र, शांत आनी सुखसमाधानयुक्त जाता.

– माधव भुस्कुटे

## उदका येरादारीः

लांकूड, धान्य, तयार माल आदी वस्तू तशेंच मनीस, मोनजात, नुस्तें सारकीली जीवसृश्ट हांची एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार, उदका मार्गांतल्यान, हाड-व्हर करपाच्या वेव्हाराक 'उदका येरादारी' अशें म्हण्टात. धर्तरेच्या सगळ्या भागांत ल्हान- व्हड प्रमाणांत उदका येरादारी चलता. हेखातीर न्हंयो, कालवे, दर्या सारक्या उदकाच्या माध्यमांतल्यान हातांनी ताणपाचीं, शिडार चलपाचीं वा यंत्राचेर चलपी ल्हान-व्हड व्हड्यांचो, पडावांचो, बोटींचो, जहाजांचो (पातमाऱ्यांचो) उदका येरादारीखातीर उपेग करतात.

**उगम आनी विकासः** पूर्विल्ल्या काळांत न्हंयांच्या देगणांनी राबितो करून रावपी मनशाक उदका येरादारीचो सगळ्यांत पयलीं सोद लागलो अशें म्हण्टात. न्हंयतलें व्हांवतें उदक पळोवन ताचो प्रवासाखातीर उपेग करपाची कल्पना ताका येवजली. लांकडाचे व्हडले कुडके, एकठांय बांदिल्ले कोंडे, फळयो, झाडां, जनावरांचीं चामडीं असल्या उफेवपी पदार्थांचो ल्हवल्हव व्हड वाहनासारको उपेग जावपाक लागलो. ताचेवयल्यानूच फुडें पनेळ, व्हडीं, पडाव, बोटी आनी जहाजां तयार करून वापरपाची बुद्द मनशाक येवजली. इतिहासांत वेगवेगळ्या संस्कृतायांनी उदका येरादारीचे उल्लेख सांपडटात. ईजिप्शियन लोकांनी नाइल न्हंयेतल्यान आनी आर्यांनी सिंधू आनी गंगा ह्या न्हंयांतल्यान प्रवास केल्लो. मीगॅस्थीनीस हाणें चंद्रगुप्त मौर्यांचे मुस्तींत गंगा आनी तिच्या हेर फांट्यांचेर बरीच येरादारी जाताली, असो उल्लेख केला.

दर्यादेगेर रावपी लोकांक दर्यापेल्यान किदें आसा हें जाणून घेवपाची उमळशीक लागून दर्याचो प्रवास करपाची इत्सा जाल्या आसतली.

ईजिप्शियन लोकांनी इ.स.प. ३००० च्या सुमाराक भूमध्य दर्यादिगेवेल्या हेर देशांकडे संपर्क सादून वेपार केलो. तेउपरांत फिनिशियन, ग्रीक आनी रोमन लोकांनीय बऱ्याच देशांकडे वेपार करपाक सुरवात केली. पूर्विल्ल्या काळांत, ईजिप्त, हिंदुस्थान आनी चीन ह्या राश्ट्रांतूय मोट्या प्रमाणांत दर्या येरादारी चलताली.

अहमदाबाद जिल्ह्यांतल्या लोथल हांगाच्या उत्खननांत सांपडिल्ल्या गोदीवयल्यान सिंधु संस्कृतायेच्या काळासावन भारतांत जहाजांचें बांदप आनी जहाजांची येरादारी चलताली अशें म्हणपाक आदार आसा. मोहेंजोदडोत जहाजांची आकृती आशिल्ल्यो चवकोनी मुद्रा सांपडल्यात. इ. स. प. दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या सांची स्तूपांचेर व्हड्यांच्यो प्रतिकृती दिसून येतात. अजिंठ्याच्या गुंफांत व्हड्यांचीं चित्रां आसात. संस्कृत आनी पाली साहित्यांतूय उदका येरादारीविशीं वर्णन आयलां. ऋग्वेद, रामायण, महाभारत, बृहत्‌संहिता आनी वराहपुराण ह्या ग्रंथांत दर्याच्या प्रवासाचे उल्लेख आसात. चंद्रगुप्त मौर्याचे मुस्तींत आरमाराचो बरोच विस्तार जाल्लो . कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांतूच दर्या येरादारीचें वर्णन आयलां. इकराव्या शेंकड्यांत चोल राजांचीं जहाजां हिंदी महासागराचे पलतडीं वतालीं. त्याच काळांतल्या 'युक्तिकल्पतरु' ह्या संस्कृत ग्रंथांत जहाज-बांदपाविशींची सविस्तर माहिती दिल्या. मच्छलीपटनम् बंदरांतल्यान सुटपी हिंदी जहाजां उदेंतेकडेन आराकान, पेगू, सयाम, सुमात्रा, चीन आनी मनिला आनी अस्तंतेक मादागास्करमेरेन प्रवास करतालीं अशें फ्रेंच भोंवडेकार तार्व्हेन्र्ये हाणें म्हळां. तेराव्या शेंकड्यांतलो जगप्रवासी मार्को पोलो हाणें हिंदुस्थानच्या व्हडल्या जहाजांचें वर्णन केलां. मोगलांचे मुस्तींत बंगाल, काश्मीर आनी लाहोरांत जहाजां बांदपाच्या उद्देगांत बरीच उदगरत जाल्ली. सुरत, भावनगर, गोंय, वसई, डाक्का ह्या शारांनी सतराव्या शेंकड्यांत जहाजां बांदपाच्या उद्देगांत नामना मेळयल्ली. शिवाजी आनी उपरांत कान्होजी आंग्रे हांणी मराठी आरमाराची पध्दतशीर उदरगत केल्ली.

रोमन साम्राज्यांत दर्याचे येरादारीक बरेंच म्हत्व आयिल्लें. तें साम्राज्य लयाक वतकच लेगीत व्हेनिस बंदर हें व्हडलें वेपारकेंद्र जालें. पंदराव्या शेंकड्यांत स्पेन आनी पोर्तुगालच्या राजांनी साहसी जलप्रवाशांक पालव दिवन उत्तेजन दिलें. १४९२ त कोलंबस हिंदुस्थानचो सोद करीत करीत वहामा जुंव्याचेर पावलो आनी अशे तरेन अमेरिकेचो सोद लागलो. दां एन्रीकीश् ह्या पोर्तुगेज राजान हिंदुस्थानचो उदकामार्ग सोदून काडपाखातीर बरीच भोंवडी केली. १४९८ त वास्को-द-गामा केप ऑफ गुड होपाक मोडण घालून हिंदुस्थानचे अस्तंत दर्यादिगेवेल्या कालिकत बंदरांत आयलो. स्पेन आनी पोर्तुगाल ह्या देशांनी उदेंतेकडलो उदकामार्ग वेपाराखातीर उक्तो दवरीनासतना बळयांच आपल्या ताब्यांत दवरपाचो यत्न केलो; पूण तातूंत तांकां येस आयलें ना. ल्हवल्हव डच लोकांनी आपली उदका येरादारी सुदारून युरोपच्या वेपारांत नामना जोडली. सतराव्या शेंकड्यांत फ्रेंच आनी ब्रिटीश राज्यकर्त्यांनी उदेंतेकडल्या वेपारांत आपलो शेक चलोवपाचो यत्न केलो. अशे तरेन दर्यांतल्या धाडसी प्रवासाक लागून नव्या देशांचे आनी उदका-मार्गांचे सोद लागले आनी आंतरराश्ट्रीय वेपाराची वाड जाली. दर्या- येरादारीच्या बळाचेर ब्रिटिशांनी १५९९ त ईस्ट इंडिया कंपनीची थापणूक करून वेपार करतां-करतां हिंदुस्थानांत साम्राज्य सत्तेची थापणूक केली.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत अमेरिकेचे उदरगतीक लागून दर्यांतले येरादारीची मागणी बरीच वाडली. ह्याच काळांत इंग्लंड आनी अमेरिका हांचेमजगतीं जहाजां बांदपाच्या उद्देगांत सर्त सुरू जाली. अमेरिकन जहाज बांदावळीचो खर्च कमी आसतालो आनी तीं ब्रिटीश व्हड्यांपरस चड नेटान प्रवास करतालीं.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत उदका येरादारीच्या मळार एक म्हत्वाचो बदल घडून आयलो. विल्यम सिमिंग्टन (१७२३-१८३१) ह्या ब्रिटीश अभियंत्यान वाफेचेर चलपी पयली माल व्हरपी बोट बांदली (१८०१). हेन्री बेल हाणें वाफेचेर चलपी पयलें उतारु जहाज बांदलें (१८१२). १८६२ उपरांत मात जहाज बांदावळीच्या कामांत लांकडांच्या जाग्यार लोखणाचो वापर जावपाक लागलो. १८८० उपरांत तिख्याचो उपेग जावपाक लागलो. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक कोळशाच्या जाग्यार तेलाचो इंधन म्हूण चड वापर जावपाक लागलो. १९०२ त डीझेल ह्या बव्हेरियन तंत्रज्ञान डीझेल इंजिनाचो सोद लायलो आनी बाश्पबोटींच्या जाग्यार डीझेल इंजिनार चलपी जहाजांचें प्रमाण वाडलें.

१८६९ त सुएझ कालवो बोटींखातीर उक्तो जालो; पूण तातूंतल्यान शिडांचीं जहाजां व्हरपाक आडखळ जाताली. १८८० च्या सुमाराक शिडांच्या जहाजांचो वापर कमीकमी जायत गेलो आनी विसाव्या शेंकड्यांत मात दर्या-येरादारींतल्यान शिडांचीं जहाजां बंद जालीं. विसाव्या शेंकड्यांचे सुर्वेक जगांतल्या वट्ट सुमार २५० लक्ष टनभार जहाजांपैकीं सुमार ६५ लाख टनभाराचीं जहाजां शिडाचेर चलपी आशिल्लीं. मालाचे प्रकार आनी परिणाम बदलत गेले, तशे १८७० उपरांत खास वेवस्था आशिल्लीं जहाजां बांदपाक सुरवात जाली. देखीक- ऑस्ट्रेलियांतलें गोठ्यल्लें मांस लंडनाक हाडपाखातीर प्रशीतनाची **(refrigeration)** तजवीज आशिल्लीं जहाजां बांदलीं. १८८६ उपरांत तेलाची येरादारी पिंपांतल्यान करपाच्या जाग्यार खास बांदिल्ल्या टाकेजहाजांनी **(tankers)** जावपाक लागली. व्हडल्या आनी नव्या जहाजांखातीर बंदरांत फाव तशी तजवीज जाली.

दुसऱ्या म्हाझुजापयलीं जहाजां बांदपाच्या उद्येगांत आनी दर्या येरादारीच्या उद्येगांत ब्रिटनचो पयलो क्रमांक आशिल्लो. पूण दुसऱ्या म्हाझूज काळांतूच आर्विल्ल्या तंत्रगिन्यानाचो वापर करून अमेरिकेन ४०० लाख टनभाराचीं नवीं जहाजां बांदलीं आनी संवसारीक दर्या-येरादारीच्या मळार पयलो क्रमांक मेळयलो. सद्या उदका-येरादारीच्या मळार आशियांत जपानाफाटल्यान भारताचोच क्रमांक लागता.

**भारतांतली भितल्ली उदका येरादारीः** भारतांतल्या भितल्ल्या उदका मार्गांची एकूण लांबाय सुमार १४,१५० किमी. इतली आसा. तातूंतली फकत एक पंचमांश आगबोटींक वापरपाक मेळटा. देशांतल्या ईशान्य भागांत, केरळ, अस्तंत बंगाल, बिहार, ओरिसा, आंध्र प्रदेश आनी तमिळनाडू ह्या राज्यांत उदका-येरादारी खासा म्हत्वाची आसा. भारतांत पयले प्रतीचीं फकत १० बंदरां आसात, तीं अशीं- कलकत्ता, मुंबय, मद्रास, पारादीप, कोचीन, विशाखापटनम्, कांडला, मार्मागोवा (मुरगांव), न्यू मंगलोर आनी तुतिकोरिन. तेभायर १९ मध्यम प्रतीचीं आनी १४४ ल्हान बंदरां आसात. ह्या मध्यम तशेंच ल्हान बंदरांनी व्हडल्या बोटींची येरादारी जायना.

**न्हंय-येरादारीः** उदका येरादारीचे नदरेन पळेल्यार दक्षिण आनी उत्तर भारतांतल्या न्हंयांत म्हत्वाचे फरक दिसून येतात. उत्तरेकडल्यो न्हंयो सपाट मळावेल्यान व्हांवतात आनी तांकां वर्सूयभर भरपूर उदक आसता. देखून उदकामार्ग म्हूण तांचो बरो उपेग जाता. दक्षिणेकडल्यो न्हंयो पठारांवेल्यान व्हांवतात. उबाळाच्या दिसांनी तांचें उदक बरेंच आटता आनी फकत तांच्या मुखाकडल्यान त्रिभुज वाठारांतूच **(delta)** तांचो उदका येरादारीखातीर वापर जावंक शकता.

भारतांत पूर्विल्ल्या काळांत गंगा, यमुना, सतलज, चिनाब आनी सिंधू ह्या न्हंयांत उदका येरादारी चलताली. सद्या ह्या न्हंयांतलो कितलोसोच भाग उदका येरादारीखातीर वापरांत ना. आज यंत्रशक्तीचेर चलपी जहाजांखातीर फकत ३५,००० किमी. लांबायेच्यो न्हंयो येरादारीखातीर वापरतात. तेचपरी ९,५०० किमी. लांबायेच्या हेर उदकामार्गांचेर देशी बांदावळीच्या व्हडल्या जहाजांची येरादारी चलता. सद्या ब्रह्मपुत्रा, गोदावरी- कृष्णा आनी तांचे कालवे, केरळांतले कालवे आनी खाडयो, तमिळनाडू आनी आंध्र प्रदेश राज्यांतलो बकिंगहॅम कालवो, महानदीचे आनी ओरिसांतल्या अस्तंत दर्यादिगेवयले कालवे आनी गोंयच्यो मांडवी आनी जुवारी ह्यो न्हंयो उदका येरादारीखातीर वापरतात. सगळे उदकामार्ग पध्दतशीररुपान वापरांत हाडले जाल्यार

सुमार १६,००० किमी. लांबायेचे उदकामार्ग येरादारीखातीर वापरुंक मेळटले अशें जाणकारांचें मत आसा.

**कालव्यांतली येरादारी:** न्हंयच्या मानान कालव्यांत गाळ सांचपाचें प्रमाण खूब उणें आसता. कालव्यांतलें उदक न्हंयच्या उदकापरस अदीक संथ दवरूं येता. तशेंच जड मालाचें हाड-व्हर करपाखातीर उद्देगधंद्यांक फाव तेप्रमाण कालवे खणूं येता. देखून, न्हंय येरादारीच्या मानान कालव्यांतली येरादारी सोपेपणान जाता.

१७८७ ते १८५७ ह्या काळाक इंग्लंडांत कालवे बांदपाचें 'भांगरा-युग' अशें म्हण्टात. त्या कालव्यांपसून इंग्लंडाक कितलेशेच अर्थीक आनी समाजीक फायदे जाले. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत अमेरिकेंत येरादारीखातीर मोट्या प्रमाणांत कालवे बांदले. ईअरी कालव्याक लागून न्यूयॉर्कचो वेपार वाडलो. फ्रांस, अस्तंत जर्मनी, नेदरलॅंड्स आनी सोव्हिएत रशिया ह्या देशांतूय वेगवेगळ्या न्हंयांक जोडपी कालवे बांदून उदकामार्गांचीं जाळींच तयार केल्यांत. भारतांत कालव्यांची येरादारी फकत ईशान्य भागांत, कृष्णा-गोदावरी त्रिभुज वाठारांत (delta) आनी केरळ राज्यांत चलता.

**भारतीय दर्या-येरादारी:** सोळाव्या शेंकड्यांमेरेन हिंदी नौकानयनाक गंवमारांत मानाची सुवात आशिल्ली. सतराव्या आनी अठराव्या शेंकड्यांत मात भारतांतले थळावे राजा एकामेकांआड झगडत राविल्ल्यान नौकानयनाची उदरगत जावंक पावली ना. तरीलेगीत जहाजां बांदपाचें काम १९४० मेरेन हिंदी गोद्यांतल्यान चालूच आशिल्लें. उपरांत, युरोपांत तिख्याचीं जहाजां तयार जावपाक लागलीं आनी तिख्याच्या उणावाक लागून हिंदुस्थानचो जहाजां बांदपाचो उद्देग फाटीं पडलो.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक हिंदी जहाज कंपन्यांक ब्रिटीश कंपन्यांआड गर्त करची पडली. ब्रिटीश कंपन्यांक सरकारचो पालव आशिल्ल्यान जमशेटजी टाटा आनी व्ही. ओ. चिदंबरम पिळ्ळै हांणी थापणूक केल्ल्यो आनी जायत्यो हेर हिंदी कंपन्यो बंद जाल्यो. पूण ह्या गर्तींत शेट नरोत्तम मोरारजी आनी वालचंद हिराचंद हांणी १९१९ त थापणूक केल्ली 'सिंदिया स्टीम नॅव्हिगेशन कंपनी' तिगून उरली. हे कंपनीचें पयलें जहाज 'लॉयल्टी' ५ एप्रिल १९१९ त मुंबयसावन इंग्लंडाक वचूंक भायर सरलें. भारतीय नौकानयनाच्या इतिहासांत हो दीस म्हत्वाचो अशें मानून १९६४ सावन ५ एप्रिल हो दीस 'राश्ट्रीय नौकानयन दीस' म्हूण मनयतात.

राश्ट्राचे अर्थीक उदरगतीखातीर आनी राखणेखातीर नौकानयनाचें हिंदीकरण जावप गरजेचें आशिल्लें. सिंदिया स्टीम नॅव्हिगेशन कंपनीचो एक संचालक सर लल्लुभाई सामळदास हाणें हो प्रस्न वरिश्ठ कायदेमंडळांत मांडलो. पूण ताच्या यत्नांक यश आयलेंना. १९२३ त मध्यवर्ती सरकारान हेडलॅम हाचे अध्यक्षतेखाला 'वेपारी नौकानयन समिती' नेमली. ते समितीन दर्यादिगेवेलो वेपार हिंदी जहाजांखातीर राखून दवरचो, हिंदी लोकांक जहाजां चलोवपाचें प्रशिक्षण दिवचें, अश्यो कांय शिफारशी केल्यो. पूण 'डफरिन' बोटीचेर १९२७ सावन प्रशिक्षणाची वेवस्था करपापेल्यान सरकारान आनीक कांयच केलेंना. १९२८ त हाजी हाणें आनी १९३७ त सर अब्दुल गझनवी हाणें दर्यादिगेवेले येरादारीचे एकाधिकार हिंदी जहाजांक मेळचे, म्हूण मध्यवर्ती कायदेमंडळांत बिलां मांडलीं, पूण तीं संमत जालीं ना.

दुसरें म्हाझूज सुरू जावंचे आदीं हिंदी कंपन्यांची १.२६ लाख टनभाराचीं एकूण ५३ जहाजां आशिल्लीं. झूज सोंपलें तेन्ना फकत ४२ हिंदी जहाजां उरिल्लीं आनी तांचो टनभार १ लाख टनांपरसूय कमी आशिल्लो. १९४५ च्या झुजाउपरांतचे पुनर्रचना समितीचे नौकानयन उपसमितीन आपल्या १९४७ च्या अहवालांत कांय शिफारशी केल्यो, त्यो अश्योः १. हिंदी जहाज कंपनीची व्याख्या करची. २. सगळी दर्यादिगेवेली येरादारी हिंदी जहाजांखातीर राखून दवरची. ३. फुडल्या सात वर्सांत हिंदी नौकानयन टनभार २० लाख टनांमेरेन वाडोवचो. ह्यो सगळ्यो शिफारशी केंद्र सरकारान संमत केल्यो.

ऑगस्ट १९४७ त हिंदी कंपन्यांकडे १.९२ लाख टनभाराचीं वट्ट ५९ जहाजां आशिल्लीं. तातूंतलीं ४८ जहाजां दर्यादिगेवेली येरादारी करतालीं आनी ७३,००० टनभाराचीं ११ जहाजां परराश्ट्रीय वेपारांत वांटो घेतालीं.

स्वातंत्र्याउपरांत भारतीय नौकानयनाची उदरगत करपाचें धोरण सरकारान आंखलें. जहाज येरादारीखातीर लागपी वेगवेगळे अधिकारी तयार करपाचें शिकप दिवपाखातीर मुंबय हांगा 'वेपारी नौदल प्रशिक्षण मंडळ' (मर्चंट नेव्ही ट्रेनिंग बोर्ड) तशेंच 'नरोत्तम मोरारजी नौकानयन संस्था' (१९५९) हांची थापणूक जाली. तशेंच कलकत्ता हांगा 'मरीन इंजिनियरिंग कॉलेज' आनी मुंबय हांगा 'लालबहादुर शास्त्री नॉटिकल इंजिनियरिंग कॉलेज' तशेंच 'राजेंद्र' (मुंबय), 'भद्र' (कलकत्ता), 'मेखला' (विशाखा-पटनम्), 'नौलाखी' (नौलाखी-गुजरात) ह्या नौकानयनाचें शिकप दिवपी खास जहाजांची वेवस्था सरकारान केल्या.

दर्यादिगेवेले येरादारीचे एकाधिकार १९३१ त, ३६ मुखेल राश्ट्रांपैकी २७ राश्ट्रांनी राश्ट्रीय जहाजांखातीर राखून दवरिल्ले. १९५१ चे सुर्वेक १३ हिंदी कंपन्यांची भारतीय किनारी परिशद अस्तित्वांत आयली आनी १९५२ च्या तिसऱ्या तिमाहींत दर्यादिगेवेलें येरादारीचें पुराय हिंदीकरण जालें. तेउपरांत जेन्ना तीन विदेशी तेल कंपन्यांक भारतांत तेलशुध्दीकरण कारखाने काडपाक परवानगी मेळ्ळी, तेन्ना परदेशांतल्यान अशुध्द तेल हाडपाक आनी दर्यादिगेवेल्यान शुध्द तेलाची येरादारी करपाखातीर परकीय तेलवाहू जहाजां वापरपाची तांकां मान्यताय मेळ्ळी.

मार्च १९५० त, 'उदेंत नौकानयन महामंडळा'ची थापणूक जाली. ह्या महामंडळाक भारत-ऑस्ट्रेलिया आनी भारत-उदेंत आफ्रिका ह्या वेपारमार्गाचेर भोंवडी करपाची परवानगी आशिल्ली. १९५६ त 'अस्तंत नौकानयन महामंडळा'ची थापणूक जाली. २ ऑक्टोबर १९६१ दिसा ह्या दोनूय सरकारी महामंडळांचें एकीकरण जावन 'भारतीय नौकानयन महामंडळ' अस्तित्वांत आयलें.

भारतांतल्या वट्ट चवतीसेक नौकानयन कंपन्यांपैकीं 'भारतीय जहाज येरादारी निगम' आनी 'मोगल लाइन लि.' ह्यो दोन सरकारी कंपन्यो आसात. कांय मुखेल खाजगी कंपन्यो अश्योः सिंदिया स्टीम नेव्हिगेशन कंपनी, ग्रेट ईस्टर्न शिपिंग कंपनी, इंडियन स्टीमशिप कंपनी, साउथ इंडिया शिपिंग कॉर्पोरेशन लिमिटेड, चौगुले स्टीमशिप्स कंपनी लि., डेंपो शिपिंग कंपनी लि.

**स्वातंत्र्याउपरांतची दर्यादिगेवेली येरादारी:** १९५२ त अस्तित्वांत आयिल्लें 'गंगा-ब्रह्मपुत्रा उदका येरादारी महामंडळ' विसर्जित करून फेब्रुवारी १९६७ त 'मध्यवर्ती अंतर्गत उदका येरादारी निगमा'ची थापणूक जाली. ह्या निगमाच्या राजबागान गोदीवाड्यांत (dockyard) जहाजां बांदप, जहाजां सारकीं करप हीं कामां करतात. निगमावरवीं बांगला देश मार्गान कलकत्ता आनी आसाम हांचेमदीं न्हंय- येरादारी चलता. गाळ काडप, दर्यांतल्या जहाजांक तेलाची आनी ताज्या उदकाची पुरवण करप हाची वेवस्था सगळ्या सुवातींनी केल्ली आसा. निगमाचे मालकीचें एक सांठवणघर कलकत्त्यांत आसून 'च्या'चो सांठो करपाखातीर ताचो उपेग जाता. अस्तंत दर्यादिगेवेल्या उतारूंक व्हरपी कांय जहाजकंपन्यांचें राश्ट्रीयकरण जावंचें, अशी सुचोवणी महाराष्ट्र सरकारान केंद्र सरकाराक केल्ली. तेप्रमाण सरकारान कोंकण येरादारीचें १९७३ त राश्ट्रीयकरण केलें.

जड माल व्हरपी जहाजांचे येरादारीचे दर मालाच्या प्रकाराचेर वा जहाजाच्या खाशेल्या प्रवासाचेर निश्चित दरान थारायनात. ते मागणी आनी पुरवण ह्या तत्त्वाचेर उकत्या बाजारांत आकारतात. हो बाजार लंडनांत आसून ताका 'Baltic Exchange' अशें म्हण्टात.

लंडनांत १७६० त 'लॉयड्स रजिस्टर ऑफ शिपिंग' हें जहाज मालकांचें स्वेच्छा संघटन सुरू जालें. नेमून दिल्ल्या प्रमाणावरवीं सगळ्या राश्ट्रांतल्या जहाजांच्या सर्वेक्षणाचेर आनी वर्गीकरणाचेर नियंत्रण दवरपाचो वावर ही संस्था करता.

४ एप्रिल १९७५ दिसा 'भारतीय नौकानयन रजिस्टर' हे संस्थेची थापणूक जाली. कंपनी अधिनियमाखाल 'ना फायदो ना लुकसाण' ह्या तत्त्वाचेर वावर करपी हे संस्थेक सुरवातीचें भांडवल भारतीय जहाजमालकांनी दिल्लें. दर्याचे येरादारीखातीर जहाजां रचूंक शकतात हाची खात्री दिवप आनी जहाजां बांदपाचें काम चालू आसतना ताचेर नियंत्रण दवरप हो वावर ही संस्था लॉइड्स रजिस्टर आनी हेर आंतरराष्ट्रीय संस्थांचो पालव घेवन करता.

**भारतीय जहाजां बांदपा उद्देग:** विसाव्या शेंकड्यांत भारतीय जहाजां बांदपाच्या उद्देगाचें पुनरुज्जीवन करपाचें श्रेय सिंदिया कंपनीक वता. ते कंपनीन १९४१ त विशाखापटन्म् हांगा गोदीची (जहाज कारखान्याची) बुन्याद घालून १९४६ त गोदी बांदून तयार केली. १४ मार्च १९४९ ह्या दिसा 'जल उषा' हें गोदीन बांदिल्लें पयलें जहाज पर्यटनाक सोडलें. १ मार्च १९५२ दिसा 'हिंदुस्थान शिपयार्ड लि.' ही कंपनी सुरू जाली. सुर्वेक तिचें ६६% भांडवल केंद्र सरकाराकडेन आनी बाकीचें सिंदिया कंपनीकडेन आशिल्लें. फुडें सरकारान सिंदिया कपंनीकडल्यान भागभांडवल विकत घेतलें आनी 'हिंदुस्थान शिपयार्ड' ही कंपनी पुराय सरकारी जाली.

माझगांव गोदी (मुंबय) आनी गार्डन रीच वर्कशॉप्स (कलकत्ता) ह्या दोन सरकारी गोद्यांत आरमारी जहाजांचें बांदप आनी जहाजां सारकीं करप, हीं कामां चलतात. भारतीय नौदलाचीं जहाजां माझगांव गोदींत बांदतात. गोवा शिपयार्ड लि. (वास्को-गोंय) ही माझगांव गोदीचीच उपकंपनी आसून ती बोटी बांदता आनी जहाजां दुरुस्त करपाचें काम करता. तेभायर ल्हान प्रमाणाचेर १७ खाजगी गोदी कारखाने जहाजां दुरुस्त करपाचें काम करतात.

**नौकानयन कायदे:** विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक हिंदी नौकानयन, ग्रेट ब्रिटनचो 'वेपारी नौकानयन अधिनियम, १८९४' ह्या कायद्यावरवीं चलतालें. १९२३ त, अंमलात आशिल्ले वेगवेगळे कायदे एकठांय करून सरकारान 'हिंदी वेपारी नौकानयन अधिनियम, १९२३' संमत केलो; अशे तरेन जहाजांची नोंदणी, खलाशांची सेवा आनी जहाजमालकांची जापसालदारकी हांचे विशीं हो अधिनियम चालीक लागलो. स्वातंत्र्याउपरांत भारत सरकारान वेपारी नौकानयन कायदे निवळावन १९५८ त नवो कायदो लागू केलो. वेपारी नौकानयनाकडेन संबंदीत अशा मुखेल मुद्यांचो ह्या कायद्यांत आस्पाव आसा. ह्या कायद्याखाल म्हत्वाच्या दोन संस्थांची थापणूक जाली: १. राश्ट्रीय नौकानयन संस्था २. नौकानयन विकास निधी-समिती. राश्ट्रीय नौकानयनाचे उदरगतीविशींच्या प्रस्नांचेर सरकाराक सल्लो दिवपाचो वावर ह्यो संस्था करतात.

**नौकानयन संघटना:** १९५१ मेरेन नौकानयन विशय, केंद्र सरकारच्या वेपार मंत्रालयाकडेन आशिल्लो. १९५१ सावन तो विशय नौवहन आनी परिवहन मंत्रालयाकडेन आसा. १९४९ त मुंबय हांगा केंद्र सरकारान नौवहन महासंचालनालय सुरू केलें. तेभायर कितल्योश्योच विधिसंमत संघटना नौवहन विशयाकडेन संबंदीत आसात. तातूंतल्यो कांय मुखेल संघटना अश्यो. १. राश्ट्रीय नौकानयन मंडळ २. नौकानयन विकास विधी-समिती ३. नौकानयन समन्वय समिती ४. राश्ट्रीय बंदर मंडळ ५. बंदर विश्वस्त संघटना ६. मध्यम आनी कनिश्ठ बंदर वेवस्था- कार्यालयां ७. परराश्ट्रीय वेपाराकडेन संबंदीत वेपाऱ्यांच्यो सल्लागारी समित्यो ८. खलाशांखातीर राश्ट्रीय कल्याणमंडळ. खाजगी मळार 'भारतीय सागरी कामगार-संघटना', 'राश्ट्रीय सागरी मंडळ' आनी 'राश्ट्रीय खलाशी संघटना' ह्यो संस्था वावर करतात. तेचप्रमाण माल धाडपी वेपाऱ्यांची भारतीय सभा आनी विभागीय मंडळां, वेपाऱ्यांचे प्रस्न पळेतात. जहाज मालकांचेंय एक राश्ट्रीय मंडळ आसा.

**संवसारीक नौकानयन:** आंतरराश्ट्रीय वेपाराच्या ९०% मालाचें हाड-व्हर दर्यामार्गांतल्यान जाता. विकसनशील राश्ट्रांकडेन वट्ट संवसारीक टनभाराच्या ६.२ टक्के इतलीं जहाजां आसात, जाल्यार विकसीत राश्ट्रांचो वांटो ५१.७ टक्के आसा. वट्ट संवसारीक टनभारापैकीं ७५ टक्क्यांपरस चड टनभार विकसित राश्ट्रांच्या नियंत्रणाखाल आसा. हाचेवेल्यान, विकसनशील देश मालाचे दर्या येरादारीखातीर विकसित राश्ट्रांचेर पातयेवन आसा, हें स्पश्ट जाता. विकसनशील राश्ट्रांपैकीं भारत हें एक मुखेल राश्ट्र आसून सोमाली प्रजासत्ताक आनी ब्राझील ह्या दोन विकसनशील राश्ट्रांवांगडाच नियमित बोटींच्या परिशदांचो तो वांगडी आसा. दर्यामार्गाविलो आपलो शेक तिगोवन दवरपाखातीर चडशा राश्ट्रांनी आपापल्या मार्गाचेर आरमारी तळांची थापणूक केल्या.

अस्तंत युरोपीय देशांत डेन्मार्क, फ्रांस, जर्मनी, ग्रीस, इटली, नेदरलँड्स्, नॉर्वे आनी स्वीडन ह्या देशांत व्हडले वेपारी जहाजताफे आसात. उदेंत युरोपांत पोलंड आनी सोव्हिएत रशिया हांचे जहाजताफे सगळ्यांत व्हडले आसात.

संवसारांतले म्हत्वाचे दर्यामार्ग आनी तांचेवेल्या मुखेल बंदरांची वळेरी अशी:

***१. उत्तर अटलांटिक मार्ग:*** *कॅनडियन आनी अमेरिकन:* मॉंट्रिअल, क्वीबेक, हॅलिफॅक्स, सेंट जॉन, न्यूयॉर्क, बॉस्टन, फिलाडेल्फीया, बॉल्टिमोर, न्यू ऑर्लीअन्स, चार्ल्सटन. *ब्रिटीश:* लिव्हरपूल, मँचेस्टर, साउदेम्प्टन, ग्लास्गो, लंडन, प्लिमथ, ब्रिस्टल. *युरोपियन:* शेअरबुर्ग, ल हाव्र, रॅटरडॅम, हँबर्ग, ब्रेमेन, बोर्दो, लिस्बन

***२. दक्षिण अटलांटिक मार्ग:*** टॅंपीको, व्हेराक्रूझ, सँतोस, रीओ दे जानेरो, मॉंतेव्हिदीओ, बुएनोस आयरिस, बाईआ, व्हलांका, मार्सेय, जेनोआ, ब्रिटीश आनी युरोपियन बंदरां.

***३. केप मार्ग:*** ब्रिटीश आनी युरोपीय बंदरां, केपटाउन, दरबान, मोंबासा, मुंबय, मार्मागोवा, कलकत्ता, कोलंबो, सिंगापूर, पर्थ, अॅडिलेड, मेलबर्न, सिडनी, ब्रिस्बेन, ऑकलंड, वेलिंग्टन.

***४. पॅसिफिक मार्ग:*** टोकिओ, योकोहामा, कोबे, ओसाका, व्हँकूव्हर, सॅन फ्रॅन्सिस्को, लॉस अँजेलीस, सिअॅटल, पर्थ, अॅडिलेड, मेलबोर्न, सिडनी, ब्रिस्बेन, ऑक्लंड, वेलिंग्टन.

***५. पनामा कालवो मार्ग:*** पनामा आनी ऑस्ट्रेलिया, न्यूझीलंड, उत्तर अमेरिका, यूरोप ह्या देशांतलीं बंदरां.

***६. सुएझ कालवो मार्ग:*** पोर्ट सैद आनी हेर बंदरां.

**गोंय:** गोंय राज्यांत, उदका येरादारी मांडवी, आगशी, झुवारी, कोलवाळ, साळ ह्या न्हंयांतल्यान जाता. १९७२ त ही भितल्ली येरादारी २१८ मैल उदकामार्गाचेर पणजी (मांडवी न्हंय), कोलवाळ (कोलवाळ न्हंय), बेतूल (साळ न्हंय), तळपण (तळपण न्हंय) ह्या ल्हान धक्क्यांचेर सुरू जाली.

सुर्वेक न्हंय परिवहन खात्याचो एक विभाग Navigacao Fiuvial हांचेकडेन गोंयचें भितल्लें नौकानयन हो विशय आशिल्लो. तेन्ना ह्या खात्याकडेन ८ वाफोर आशिल्ले. ह्या वाफोरांवरवीं पणजी- सांवड्डें, पणजी-वळवय, पणजी-हळदोणें, पणजी-बेतीवेरें, पणजी-मार्मागोवा ह्या उदका मार्गावयल्या प्रवाशांची येरादारी जाताली. सध्या Captain of Ports ह्या खात्याच्या पुराय नियंत्रणाखाल गोंयचे 'न्हंय परिवहन खातें' प्रवासी आनी माल हांचें हाड-व्हर करपाचो आनी हेर सगळो नौकानयनाचो कारभार पळेता. मडकय-कुठ्ठाळी, पणजी-बेती, कोलवाळ-माकाजान, रायबंदर-चोडण (माडेल), सांत इश्तेव-टोंक (खांडोळें), ओल्ड गोवा-पीयेदाद, शिवोली-चोपडें, पोंबुर्पे-चोडण, वळवय-सुर्ला ह्या उदकामार्गांचेर फेरीबोट सेवा वर्सूयभर चलता जाल्यार सां. ब्रास ते कांदोळी ह्या मार्गाचेर पावसाळो सोडून हेर दिसांनी फेरीबोट सेवा चलता. पणजी-हळदोणे, पणजी-नार्वे, पणजी-बिठ्ठोण ह्या मार्गांचेर वर्सूयभर जाल्यार दोनापावल ते मार्मागोवा ह्या मार्गाचेर पावसाळो सोडून हेर दिसांनी लाँच सेवा चलता.

१९३० त इंडियन को-ऑपरेटिव्ह नॅव्हिगेशन अँड ट्रेडिंग कं. लि. आनी बाँबे स्टीम नॅव्हिगेशन कं. लि. हांणी मुंबय ते मार्मागोवा अशी दिसपट्टी बोट सेवा सुरू केली. पावसाळ्यांत ही बोट सेवा सप्तकांतल्यान फकत

एकदांच आसताली. सद्याक फकत पणजी ते मुंबय अशी, पावसाळो सोडून, दिसपट्टी बोटसेवा सुरू आसा.

मार्मागोवा बंदर हें भारतांतलें एक म्हत्वाचें बंदर जावन आसा. सकयल दिल्ल्या तक्त्यावेल्यान ह्या बंदराच्या देशी आनी विदेशी वेपारांत गोंय मुक्तीआदल्या काळासावन १९७०-७१ वर्सा कशी वाड जाली, तें स्पश्ट जाता.

| | गोंय मुक्तीआदलो काळ | १९७०-७१ | टक्के वाढ |
|---|---|---|---|
| *विदेशी वेपारः* | | | |
| **वाफेचीं जहाजां** | ३९३ | ५४८ | ३९ |
| **वट्ट टनभार** | १६.७ लाख टन | ४१.९ लाख टन | १५१ |

ह्या बंदरांत, मालाचें हाड-व्हर करप गोंय मुक्ती आदल्या काळांत ६७.४ लाख टन आशिल्लें. तें १९६९-७० त ९०.३ लाख टन इतलें वाडलें. दर्यादिगेवेल्या वेपारांतूय भरपूर वाड जाली. गोंयच्या खणींनी मेळपी मँगनीज, लोखण सारकीलीं खनिजां खणीवेल्यान मुरगांव बंदरामेरेन व्हरपाखातीर त्या त्या कंपनीच्यो बार्जी आसात. गोंयचीं हीं सगळीं खनिजां फकत उदका-येरादारीवरवींच खणीवेल्यान मुरगांव बंदराचेर व्हरतात. बार्जीचो उपेग करचे पयलीं ही येरादारी शिडांच्या व्हड्यांवरवीं जाताली. बार्जीचो उपेग जातकच व्हड्यांची येरादारी बंद जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**उदयपूरः** आदल्या उदयपूर संस्थानाची राजधानी आनी सद्याच्या राजस्थान राज्यांतल्या उदयपूर जिल्ह्याचें मुखेल ठिकाण. हें शार अहमदाबाद-हिंमतनगर-उदयपूर रेल्वेमार्गान अहमदाबाद सावन २९७ किमी. अंतराचेर आसा. तेचपरी जयपूरसावन नैर्ऋत्य दिकेक रस्त्यान ३३६ चौ. किमी. अंतराचेर आसा. लोकसंख्याः २,३२,५८८ (१९८१). आवांठ ५९.२१ चौ. किमी. समुद्रथरासावन उदयपूर ७६२ मी. उंचायेचेर आसा. हांगाची हवा समशीतोश्ण आनी भलायकेक बरी. १५६७ त जेन्ना अकबर बादशहान तिसरे फावट चित्तोडचेर चाल केली, तेन्ना महाराजा उदयसिंह हाणें चित्तोड सोडलें आनी चित्तोडचे अस्तंतेक साठ मैलांचेर अरवली पर्वताचे मदीं पिचोला तळ्याचे देगेर आपलें नगर वसयलें. ताच्या नांवावेल्यानूच ह्या शाराक 'उदेपूर' वा 'उदयपूर' अशें नांव पडलें.

सतराव्या शेंकड्यांत अमरसिंह, संग्रामसिंह आदी राजपुतांनी उदयपूरचे उदरगतींत भर घाली. अठराव्या शेंकड्यांत शिंदे, होळकर, पेशवे हांचे मदीं वेगवेगळ्या कारणांक लागून झुजां जातालीं. १८१७ वर्सा जेन्ना पेंढऱ्यांचें झूज सुरू जालें तेन्ना भीमसिंहान आपल्या वाठाराची राखण करचेपासत ब्रिटिशांचें मांडलिकत्व मान्य केलें. १९३० वर्सा, भूपालसिंह हो निमणो राजा उदयपूर संस्थानाचे सत्तेर आयलो. तेन्ना ताका ले कर्नल हो हुद्दो आशिल्लो. फुडें राजस्थान राज्यांतल्या हेर संस्थानांच्या विलीनीकरणावेळार उदयपूर संस्थानाचेंय विलीनीकरण जालें. ताचेउपरांत राजस्थान संघाची थापणूक जाली आनी १८ एप्रिल १९४८ दिसा पंडित नेहरु कडल्यान ताचें उक्तावण जालें. ह्या वेळार भूपालसिंग हो राजमुखेली आशिल्लो.

उदयपूर शार हें एक वेपारी केंद्र जावन आसा. हांगा हातमागावेले कपडे, 'बांदणी' हो साडयेचो प्रकार, कपड्यावेलें भरतकाम, भांगराच्यो आनी चांदीच्यो वस्ती, हस्तीदंती वस्तू, नक्षीकाम, हत्यारां, मूर्ती, कपडे, लांकडी खेळणी आदीचे तरेकवार उद्येग चलतात. चिकण मातयेचे कारखाने आनी सुती लुगटाच्यो गिरणीय ह्या शारांत आसात. नामनेचें उदयपूर विद्यापीठ ह्या शारांत आसा.

गांवाचे अस्तंतेक आशिल्लें नामनेचें पिचोला तळें चवदाव्या शतमानांत वंजारा लमाणान बांदलें अशें म्हण्टात. ताचो आवांठ १०.३६ चौ. किमी. आसून तो सज्जनगढ दोंगुल्लेच्या मुळसाकडेन आशिल्ल्या उत्तरेकडल्या फत्तेसिंह तळ्याक कालव्यान जोडला. तळ्या भोंवतणी डांबरी रस्तो आसून तळ्यांत नौकाविहार करपाची वेवस्था आसा. पिचोला तळ्यांत दोन ल्हान जुंवे आसून तांचेर राजप्रासाद उबे आसात. दक्षिणेक जगमंदिर राजवाडो आसून उत्तरेक जगनिवास राजवाडो आसा. ह्या राजवाड्यांतलें बागकाम आनी कलाकुसर ओडलायणें आसून सद्या ताचें रुपांतर हॉटेलांत केलां. पिचोला तळें सोडून उदयपूर शारांत स्वरुपसागर, रंगसागर हीं तळीं आसून तीं एकामेकांक जोडिल्ल्यान ह्या शाराक 'राजस्थानचें व्हेनीस' अशें म्हण्टात. धव्योफुल्ल इमारती आशिल्ल्यान ह्या शाराक 'धवें नगर' अशेंय म्हण्टात.

हांगाची 'सहेलियों की बारी' ही बाग आनी थंयचें वातावरण पळोवपासारकें आसा. हांगाच्या सज्जननिवास वा गुलाबबागेंत वस्तुसंग्रहालय, जनावरांचें संग्रहालय आनी ग्रंथसंग्रहालय आसा. उदयसिंहान बांदिल्ल्या महालाच्या जाग्यार महाराणा प्रतापसिंहाचो व्हड पुतळो आसा. तशेंच ह्या शारांतलें जगन्नाथाचें देवूळ, २३ किमी. चेर आशिल्लें एकलिंगजीचें देवूळ आनी २७ किमी. चेर आशिल्लें नाथद्वाराचें श्रीकृष्ण देवूळ हीं देवळां पळोवपासारकीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**उदय शंकरः** (जल्मः ८ डिसेंबर १९००, कलकत्ता).

संवसारीक नामना मेळिल्लो भारतीय नृत्यकार. पिरायेच्या अठरा वर्सांचेर तो चित्रकलेचें शिक्षण घेवपाक इंग्लंडाक गेलो. थंय ताणें नाचाच्यो कांय कार्यावळी करून दाखयल्यो. ही कार्यावळ पळोवन संवसारीक नामना फाव जाल्ली रशियन नर्तिका आन्ना पाव्हलॉव्हा ही प्रभावित जाली आनी तिणें ताका नृत्यकलेखातीर उर्बा दिली. पाव्हलॉव्हाच्या पंगडावांगडा ताणें विंगडविंगड देशांची भोंवडी केली. देडवर्सा उपरांत तो पारिसाक आयलो. थंय ताणें वेगवेगळ्या आनी चडकरून उदेंतेकडल्या संस्कृतायांचो आनी कलांचो खोलायेन अभ्यास केलो. नाचाच्यो जायत्यो कार्यावळी पळेल्यो. हो नियाळ करता आसतना ताची कला ल्हवल्हव आकार घेताली.



उदय शंकर

फुडें तो इंग्लंडाक गेलो आनी 'मादाम सिमकी' हे आपले फ्रेंच शिष्ये वांगडा ताणें स्वतंत्र कार्यावळी सुरू केल्यो. विदेशांत आसतना ताणें भारताक खूब भेटी दिल्यो आनी भारतीय नृत्याक वाव दिलो. ताका भारतीय लोकनृत्याची आवड. स्वताचे नृत्यशैलीक ताणें फाव तशें पदलालित्य आनी मुद्राभिनय हांची जोड दिवन ही कला अस्तंतेच्या लोकांमुखार दवरली. अस्तंतेच्या देशांत 'उदयशंकर म्हळ्यार भारतीय नाच' अशी ताची नामना जाली.

१९३८ वर्सा तो भारतांत आयलो आनी ताणें अलमोडा हांगा 'इंडिया कल्चर सेंटर' ची थापणूक केली. हे संस्थेवरवीं ताणें अभिजात भारतीय नाच शिकोवपाची वेवस्था केली. ताच्या 'लेबर अँड मशिनरी', 'द ऱ्हिदम ऑफ द लाइफ', 'सामान्य क्षती' ह्या सारक्या बॅले नृत्यांनीं खूब नामना

मेळयली. ताणें नाचाचे कार्यावळींत नव्यो नव्यो कल्पना हाडल्यो आनी रंगमाचर्येचो अचूक वापर केलो. ताचे विशय चालू स्थितीकडेन बांदिल्ले आसतात. तशेंच ताचे कार्यावळीची आंखणीय येवजिल्ली आसता. ताच्या नाचाचीं निर्मणी मूल्यां उंचेल्या पांवड्याचीं आसतात.

नाचाच्या खंयच्याय एकाच प्रकाराकडेन तो एकनिश्ठ रावलो ना. शास्त्रीय नाचांत तो आपले कल्पनेप्रमाण बदल करतालो असो ताचेर आरोप जालो. ताचेर अस्तंतेकडल्या आनी उदेंतेकडल्या नाचाचो प्रभाव आशिल्लो. पारंपारिक नाचावरवीं आर्विल्ल्यो अडचणी अर्थपूर्णतरेन लोकांमुखार मांडपाचें ताचें ध्येय आशिल्लें. ह्या कामाखातीर जाय आशिल्ली प्रयोगशीलता ताचेकडेन आशिल्ली. ताणें 'तिमिर बरन' ह्या संगीततज्ञाच्या आदारान नाचाच्या संगीतांत कितलेशेच बदल घडयले.

भारतीय परंपरेक खबर नाशिल्लो व्हड वाद्यवृंद ताणें हाडलो. हे प्रयोग करतना तो केन्नाच आपलो भारतीय आत्मो विसरलो ना, ताणें आपली वेगळी नाचाची पध्दत सुरू केली. हातूंतल्यानच ताची बायल अमला शंकर तशेंच शांतीवर्धन, सचिनशंकर, कामेश्वर, जौहरा सैगल, नरेंद्र शर्मा आदी कलावंत निर्माण केले. नामनेचो सतारवादक पंडित रविशंकर ताचो भाव.

१९५९ वर्सा ताका संगीत नाटक अकादेमीचो पुरस्कार फाव जालो. ताणें नाचाचेर 'कल्पना' नांवाचो सिनेमा काडला. भारतीय नाचाचे परंपरेंत ताणें आर्विल्ल्या नाचाचो आस्पाव केलो. भारतीय नाचाक आर्विल्ल्या तंत्रांनी समृध्द करपी कलावंत म्हूण उदय शंकर हाची कामगिरी नाचाच्या इतिहासांत खूब म्हत्वाची आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**उद्येगिकरण:** उत्पादन प्रक्रियेंतल्यान भूंय, कामगार, घोळटें भांडवल (circulating capital) आनी स्थायी भांडवल (fixed capital) हांच्या संयोजनांत (composition) जाल्ल्या बदलाक लागून जें अर्थीक परिवर्तन घडटा, ताका उद्येगिकरण म्हण्टात.

भौगोलीक नदरेन उद्येगिकरणाची सुरवात अठराव्या शतमानाच्या शेवटाक इंग्लंडांत जाली. उद्येगिकरणाक फाव तशी परिस्थिती, कुशळ कामगार, राजकी थीरपण, येरादारीचीं मेळटात तीं साधनां, उदरगतीक लागून विज्ञानीक सोदांक मेळिल्लो वाव, खेळट्या भांडवलाची पुरवण करपी बँको, ह्यो गजाली फाव तश्यो आशिल्ल्यान उद्येगिकरणाची बुन्याद इंग्लंडांत पडली.

एकुणिसाव्या शतमानाचे सुर्वेक फ्रांस, जर्मनी आनी बेल्जियमांत उद्येगिकरणाची सुरवात जाली. सन १८७१ त फ्रांसांत उद्येगिकरणाची सुरवात जाली. १८६० च्या यादवी झुजाउपरांत अमेरिकेंत उद्येगिकरणाचें मुळावण पडलें. १८६८ त जपानांत सरंजामशायेचो नाश जालो. १८८५ सावन शासनाच्या पुरोगामी धोरणाक लागून जपानचे उद्येगीक उदरगतीक सुरवात जाली. रशियांतल्या साम्यवादी क्रांतीउपरांत फाव त्या मार्गान रशियांतल्या उद्येगिकरणान नेट घेतलो. जपान आनी अमेरिकेक सुर्वेक युरोपीय सत्तेचेर मात करची आसली. अमेरिकेकडेन साधनांची (resoures) गिरेस्तकाय आनी विस्तृत बाजार तयार आसलो. जपानाकडेन ह्यो गजाली नासल्यो. पूण तांचेकडेन आंतरराश्ट्रीय बाजारावरवीं ती मेळोवपाची तांक आनी निश्ठा आसली. जपानाकडल्या संबंदांतल्यान उद्येगिकरण चीनांत पावलें. इंग्लंड आनी हेर वसाहतवादी राश्ट्रांनी आपले सत्तेतळा आशिल्ल्या प्रदेशांनी उद्येगिकरणाची बुन्याद घाली. कच्च्या मालाच्यो आनी बाजारपेठेच्यो गरजो भागोवपाक तांकां हाची गरज आसली.

भारतांत उद्येगिकरणाची सुरवात कपड्या गिरणींवरवीं जाली. १८५४ त मुंबय लागसार पयली सुती कपड्याची (cotton cloth) आनी श्रीरामपूर हांगा पयली ज्यूटाची गिरण सुरू जाली. तोमेरेन कोळशाच्या खणीनीय थोडें भोव स्थायी भांडवल जमिल्लें. १९११ त देशांतलो पयलो तिख्या कारखानो सुरू जालो. पयल्या सुती कपड्याच्या आनी तिंख्याच्या उद्येगांक लागपी भांडवल चडशें भारतीयांकडल्यानच आयलें. ह्याच काळांत साकर, खनिजतेल, शिमीट सारक्या उद्येगांची सुरवात जाली. स्वतंत्रतायेमेरेन भारतीय उद्येगिकरणाक नेट आयलोना. दुसरे पंचवर्सूकी येवजणेंत उद्येगिकरणाचेर भर दिलो. खूब काळ मेरेन उद्येगिक धोरणाक लागून ही प्रक्रिया सरकाराच्या पालवाचेर आदारून आसली.

अर्थीक उत्क्रांती (evolution) तीन पांवड्यांनी वांटू येता. पयल्या पांवड्यांत भूंय आनी कश्टकरी कामगार सगळ्यांत चड म्हत्वाचे उत्पादक घटक आसून हो पांवडो कृषिप्रधान आसा. दुसऱ्या पांवड्यांत वेपार धंद्यांचें प्रमाण वाडटा. तेच वांगडा घोळट्या भांडवलाक चड म्हत्व येता. तिसऱ्या पांवड्यांत, स्थायी भांडवल मुखेल उत्पादन घटक जाता. ह्या तिसऱ्या पांवड्यांतले उत्क्रांतीक 'उद्येगिकरण' म्हण्टात.

उद्येगिकरण ही घडणूक नासून प्रक्रिया आसा. हें प्रक्रियेंत काळांतरान स्थायी भांडवलाचें प्रमाण वाडत वता. तशेंच हे तीनूय पांवडे एकेच अखंड उत्क्रांतीक प्रक्रियेचे घटक आसून एका पांवड्यांतल्यान दुसरो पांवडो उप्रासता. ही प्रक्रिया आपल्या संवेगांतल्यान (momentum) तशेंच परिस्थिती (environmental) बदलांतल्यान प्रेरित (induce) जावं येता.

उद्येगिकरणाचे उदरगतीचीं दोन तासां (dimensions) आसात. एक ताचें भुगोलीक विस्तारप आनी दुसरें ताचें खोलावप. भुगोलीक विस्तारप म्हळ्यार नव्या वाठारांनी उद्येगिकरणाचो आरंभ जावप. खोलावप म्हळ्यार उत्पादन प्रक्रियेंत स्थायी भांडवलाचें म्हत्व वाडप.

इतिहासीक तशें वैश्लेषिक (analytical) नदरेन उद्येगिकरणाचे तीन मुखेल निर्धारक (determinants) आसात: पर्याप्त भांडवल, उपयुक्त तंत्रगिन्यान आनी पर्याप्त बाजारपेठ. उद्येगिकरणाचे प्रक्रियेंत चडांतचड भांडवल गुंथचें पडटा. थंयच्यान तें सोंपेपणान परतें मेळोवंक येना. हाका लागून अर्थवेवस्थेच्या घोळट्या भांडवलाची गरज भागयल्या उपरांत पर्याप्त भांडवल मेळत जाल्यारच उद्येगीक उदरगत घडूंक शकता. हें भांडवल उत्पादन प्रक्रियेंतले यंत्रसामग्रींत घालतात आनी ताचेर वावुरतल्या कश्टकऱ्यांची उत्पादकता वाडयतात. ही यंत्रसामग्री घडोवपाक बऱ्या आनी ऊंच पांवड्याच्या तंत्रगिन्यानाची गरज आसता. अशा भांडवल प्रधान (capital intensive) उत्पादनाचो खर्च वाडट्या उत्पन्नाचेर वांटून गेलेबगर अशें उत्पादन फायद्याचें थारना. तेखातीर वाडटे बाजारपेठेची गरज निर्णायक थारता.

उत्पादन प्रक्रियेंतलें परिवर्तन हें जरी उद्येगिकरणाचें मूळ आसलें तरी हेर भौशीक, अर्थीक आनी राजनैतीक प्रचलावेले (parameters) परिणाम तितलेच म्हत्वाचे आसतात. ताचेवरवीं घडपी संकेंद्रण (concentration) उत्पादनप्रक्रिया चड आनी चड एका थरावीक स्थायी भांडवलाच्या सांच्याचेर (cluster) केंद्रीत जाल्ल्यान अशें घडटा. भुगोलीक नदरेन, उत्पादन थरावीक उद्येगीक शारांनी वा प्रदेशांनी एकठांय जाता. हाका लागून उद्येग ह्या शारांनी वा प्रदेशांनी जमतात. हे प्रक्रियेक नागरीकरण (urbanisation) म्हण्टात.

कामगारांच्या वेवसायीक केंद्रीकरणाक लागून तांचेमदीं एकचार आनी संगठन घडटा. पूण तेचवांगडा कश्ट करपी कामगार आनी भांडवल हांचेमदलें अंतर वाडटा. हाचें कारण म्हळ्यार उद्येगिकरणाक लागून भांडवलाचें आपलें एक वेगळें आनी व्यापीत (distinct) अस्तित्व उदेता, जाचेर कश्टकरी कामगारांचें थोडे भोव नियंत्रण आसता. मालकेंतल्यान उदेवपी नियंत्रण जशें कमी जायत वता, तशें कार्यात्मक नियंत्रण (functional control) मात वाडटा. हाचें कारण म्हळ्यार तंत्रगिन्यानाचे उदरगतीक लागून वित्तीय भांडवलाची (financial capital) मालकी आनी भौतिक भांडवलावेलें (physical capital) नियंत्रण हांचेमदलें अंतर वाडटा.

उद्येगिकरणाक लागून कश्टकऱ्यांची उत्पादकताय वाडटा. हे वाडटे उत्पादकतेचो मुखेल वांटो जर प्रवर्तकांक (entrepreneurs) आनी भांडवलदारांक मेळ्ळो तरी तिचो कांय फायदो कश्टकरी कामगारांक जाता. हाका दोन कारणां आसात: एक- तंत्रगिन्यानाचे उदरगतीक लागून जशें कश्टकरी कामगारांचें भौतिक भांडवलावेलें नियंत्रण वाडटा

तशें उद्येगिकरणाचे उत्पादकतेचे वाडीचो तांकां चड आनी चड वांटो दिवंचो पडटा. दुसरें- वाडटे श्रमीक उत्पादकतेक लागून तांची सत् मजुरी (real wage) वाडटा.

उत्पादन प्रक्रियेंत स्थायी भांडवलाचें म्हत्व वाडटा तशें तातूंत साकार जावपी तंत्रगिन्यानाचो निवेश (input) वाडटा. तेचवांगडा भौतिक भांडवल घडोवपाक पक्वावधी (gestation period) लागता. तो आनी उत्पादनाची पर्याप्त क्षमता (optimum scale of production) वाडटा. हाका लागून अर्थवेवस्थेंत कांय म्हत्वाचे बदल घडटात. पयलो राश्ट्रीय भांडवल आनी श्रमबळाचो एक सार्थ (significant) वांटो खंयचेय एके उत्पादन संस्थेत (firm) गुंथयल्यार, तिचें अर्थीक येस राखप राश्ट्रीय हितार्चे थारता. हाका लागून अर्थप्रणालींतली (economic system) दृढता (rigidity) आनी नियंत्रण वाडटा.

मुक्त अर्थवेवस्थेंत (Free Market Economy) खंयचीय वस्त कितल्या प्रमाणांत उत्पन्न करची, हें निमाणें गिरायकाच्या निर्णयाचेर आदारुन आसता.

तंत्रगिन्यानीक परिवर्तनाक लागून आनी स्थायी भांडवलाच्या चड म्हत्वाक लागून गिरायकांच्या बदलत्या निर्णयाक साथ दिवप उत्पादकांक शक्य जायना. तेखातीर उत्पादनाविशींचे चड आनी चड निर्णय तांकांच घेवचे पडटात. उपरांत जायरातीवरवीं हे निर्णय गिरायकांकडेन पावयतात.

निकतेच उद्येगिकरणांत पावल घालपी देशांचे प्रस्न वेगळे आसतात. ते दोन तरेन वयर सरतात. एक- उद्येगिकरणाचेर भर दिवपी, दोन- साधनांच्या आनी सांस्थिक (Institutional) मर्यादेभितर (constraints) उद्येगिकरण घडोवपाविशीं. अस्तंत युरोपी देशांनी, उद्येगिकरण अर्थीक उत्क्रांतीच्या स्वसंवेगांतल्यान उप्राशिल्ल्यान हो प्रस्न येवंक ना. अमेरिका आनी जपानांत उद्येगिकरणाची प्रेरणा, कृषिवेवस्थेंतले उदरगतीच्या नेटान मेळ्ळी. गरजेक लागपी भांडवल आनी बाजारपेठ तशेंच सांस्थिक संरचना (Institutional Framework) कृषिवेवस्थेतले समृध्दींतल्यानच मेळ्ळी. उदरगतीचे नदरेन फाटल्यान आशिल्ल्या देशांनी ही एक समस्या उप्रासल्या. फुडारिल्ल्या देशांची फाट धरूंक तांकां जायत्यो आडखळी येतात. अर्थीक आनी समाजीक उत्क्रांती उद्येगिकरणाक फाव तशी नाशिल्ल्यान तिचो नेट मंद उरता आनी साधनांचो इबाड जाता. कृषिक्षेत्र आनी वेपार-धंद्याची पर्याप्त उदरगत जाल्ल्यान उद्येगिकरणाक गरज आशिल्ल्या भांडवलाचो आनी बाजारपेठेचो उणाव पडटा. भांडवल मेळ्ळें जाल्यार लेगीत कृषी क्षेत्रांत फाव तशी प्रभावी मागणी (effective demand) नासल्यार उद्येगिकरणाचेर बंधन उरता.

भांडवलाचे उणीवेक लागून आनीक एक प्रस्न उप्रासता. आशिल्लें भांडवल जायत्या उद्येगांनी आनी जायत्या सुवातींनी शिंपडावपाचें काय थोड्याच उद्येगांची आनी थरावीक जाग्यांची उदरगत घडोवपाची? (थंयच्यान तो भोंवतणी विस्तारपाच्या उद्येशान). हो प्रस्न म्हत्वाचो आसता. खंयच्याय उद्येगांत वा जाग्यार उदरगत घडोवपाक उणेच म्हळ्यार एक थरावीक गुंतवणूकीची गरज आसता (critical minimum investment). ताचेवरवीं कमी भांडवलाची पुरवण केल्यार ताचो कांयच फायदो जायना. तेखातीर भांडवल शिंपडावप अयोग्य थारता. हाचे उरफाटें कांय थरावीक उद्येगांनी वा जाग्यांनी भांडवल गुंथयल्यार उदरगत तितल्यापुरती मर्यादित उरूंक शकता. हाका लागून अर्थवेवस्थेंत असंतुलन तयार जावन ताचे अर्थीक आनी समाजीक दुश्परिणाम घडटात. सांस्थिक संरचनेच्या दुर्बळपणाक लागून उदरगत विस्तारूंक पावना आनी विकसित वाठार भोंवतणचे अविकसित फाटभुंयेंतल्यान (hinterland) साधनां आपणावन तिका आनीकय दुर्बळायता हें ताचेफाटलें कारण जावन आसा.

अशे तरेन उद्येगिकरणाचें विस्तारस खोलावत आसा. तेखातीर संवसारीक अर्थवेवस्था बदलत आसता. हाचो परिणाम समाजीक, राजनितीक आनी पर्यावरणीय प्रचलाचेर घडत रावता.

- प्रा. तेनसिंग रुद्रीगिश

संदर्भः 1. Birnie, Arthur; An Economic History of Europe 1760-1939 (1930); University Paper backs, London; 2. Cole, G.D.H.; Introduction to Economic History (1960); Macmillan & Co. Ltd, London; 3. Gadgil, D. R.; The Industrial Evolution of India in Recent Times 1860-1939 (1971), Oxford University Press, Delhi; 4. Hicks, John; A Theory of Economic History (1969), Oxford University Press, Oxford; 5. Meier, Gerald; Leading issues in Economic Develpment (1976), Oxford University Press, New York.

**उपदेशः** घरांतले जाण्टेले, गुरु वा खंयच्याय वडील मनशान ल्हानाच्या हिताच्यो खबरो सांगप, गुरुन शिष्यांक तत्त्वगिन्यान सांगप, दीक्षा दिवप, मंत्र सांगप हाका उपदेश अशें म्हण्टात.

रामार्चनचंद्रिकेंत उपदेशाचो उल्लेख असो येता.

चन्द्रसूर्यग्रहे तीर्थे सिध्दक्षेत्रे शिवालये।
मन्त्रमात्रप्रकथनमुपदेशः स उच्यते।।

अर्थः चंद्र-सूर्याच्या गिराणवेळार, तीर्थांच्या सुवातींनी सिध्दक्षेत्रांत वा शिवालयांत गुरु जे मंत्र सांगता, ताका उपदेश अशें म्हण्टात.

गुरुकडल्यान शिष्यांक एका खासा अशा संप्रदायाची दीक्षा मेळप हाकाय 'उपदेश' अशें म्हण्टात. उपदेशान गुरु-शिष्यांमदल्या संबंदांत घटसाण येता. व्याकरणांत आद्योच्चारणाक उपदेश अशें म्हळां. मीमांसक, अपेक्षित अर्थाचो प्रतिपादक जावपी ग्रंथसंदर्भाक उपदेश म्हण्टात, अशें न्यायकोशांत म्हळां.

तैत्तरीय उप. शिक्षावल्लींत हो उपदेश हे तरेन आसाः

सत्यं वद। धर्मं चर। स्वाध्यायान्मा प्रमदः। आचार्याय प्रियं धनमाहृत्य प्रजातन्तु मा व्यवच्छेत्सीः। सत्यान्न प्रमदितव्यम्। धर्मान्न प्रमदितव्यम्। कुशलान्न प्रमदितव्यम्। भूत्यै न प्रमदितव्यम्। स्वाध्यायप्रवचनाभ्यां न प्रमदितव्यम्। देवपितृकार्याभ्यां न प्रमदितव्यम्। मातृदेवो भव। पितृदेवो भव। आचार्यदेवो भव। अतिथिदेवो भव। यान्यनवद्यानि कर्माणि। तानि सेवितव्यानि। नो इतराणि।।.. एष उपदेशः।

अर्थः सत उलोवन धर्माचें आचरण कर. वेदाचें अध्ययन सोडूं नाका. आचार्याक गुरुदक्षिणेच्या रुपान प्रियधन दिवन प्रजातंतु विच्छिन्न जावंक दिवं नाका. गृहस्थाश्रम आपणाय पूण सताकडेन फाट करुं नाका. धर्माचरणाच्या कामांत चूक जावंक दिवं नाका. प्राविण्य मेळोवपाक फाटीं सरूं नाका. गिरेस्तकाय मेळ्ळी म्हूण आपली मोख सोडूं नाका. स्वाध्याय आनी प्रवचन हांकां सोडूनाका. देव आनी पितर हांचीं कार्यां वेळच्या वेळार कर. आवयक देवता मान. बऱ्या कर्माचें आचरण कर, वायट कर्माचें आचरण करुं नाका. हो तुका म्हजो उपदेश जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**उपनिषदः** उपनिषद् हें उतर 'उप+नि' उपसर्गपूर्वक 'सद्' धातुपसून तयार जालां. फरक इतलोच की हातूंत 'सद्'च्या 'स्' चो 'ष्' जाला. 'सद्' धातुचो अर्थ बसप. 'उप' उपसर्गाचो अर्थ 'लागीं'. 'नि' उपसर्गाचो अर्थ 'चड' ह्या सगळ्यांचो मेळून अर्थ जाता 'चड लागीं बसप'. पूर्विल्ल्या काळांत गुरुकडल्यान शिष्याक आत्मज्ञान मेळटालें. ताचेखातीर शिष्याक गुरुच्या म्हऱ्यांत सदांच रावचें पडटालें. खरें पळेल्यार हाकाच 'उपनिषद्' म्हणपाक जाय आसलें. पूण पर्यायान थंय शिष्याक जी विद्या मेळटाली तिका 'उपनिषद्' म्हणूंक लागले. हाचो आनीकूय एक अर्थ असो की जे विद्येक लागून मोक्षाची इत्सा करपी मनीस ब्रह्माच्या (परमेश्वराच्या) लागीं वचूंक शकता, ती विद्या म्हळ्यार उपनिषद्.

कठोपनिषदाचेर शंकराचार्यान भाश्य केलां तातूंत उपनिषद् शब्दांतल्या सद् धातुचे तीन अर्थ सांगल्यातः १. विशरण २. गति आनी ३. अवसादन. विशरण म्हळ्यार विध्वंसन. जे विद्येक लागून मोक्षाची इत्सा करपी मनशाचे अविद्येचो नाश जाता आनी ताका श्रेष्ठ विद्येची

प्राप्ती जाता, ताका 'विध्वंसन' म्हण्टात. अशें विध्वंसन उपनिषद् विद्येंतल्यान सिध्द जाता. 'गति' शब्दाचो हांगा अर्थ आसा ज्ञान. गम्यर्थक धातु ज्ञानार्थक आसतात असो संस्कृत व्याकरणशास्त्राचो एक नेम आसा. (गम्यर्थानां धातूनां ज्ञानार्थकत्वात्). अर्थात हांगा ब्रह्माचें ज्ञान अपेक्षित आसा. ब्रह्माचें ज्ञान मेळोवन मोक्षाक वचपाचें साधन म्हळ्यार उपनिषद् विद्या. 'अवसादन' म्हळ्यार जल्म, म्हातारपण, मरण हांच्या तापांतल्यान मनीस जे विद्येक लागून सुटता ती विद्या, म्हळ्यार उपनिषद्. हे विद्येक शंकराचार्यान 'अविद्याविध्वंसिनी ब्रह्मविद्या' अशें म्हळां.

हे ब्रह्मविद्येचें गिन्यान दिवपी उपनिषदां वैदिक वाङ्मयाच्या शेवटाक येतात. वैदिक वाङ्मय म्हळ्यार संहिता, ब्राह्मण आनी उपनिषद्. देखून उपनिषदाक वेदान्त अशेंय म्हण्टात. उपनिषदांक वेदांचें ज्ञानकांड अशेंय मानतात. उपरांतच्या काळांत वेदान्ताच्या आचार्यांनी हे ब्रह्मविद्येंत गीतां, ब्रह्मसूत्रां हांचोय आस्पाव केलो आनी तांचे तीन भाग करून तांकां 'प्रस्थानत्रयी' हें नांव दिलें. ते तीन भाग म्हळ्यार श्रुति, स्मृति आनी न्याय. श्रुतिप्रस्थान म्हळ्यार उपनिषदां, स्मृतिप्रस्थान म्हळ्यार भगवद्गीता, सनत्सुजात संहिता ग्रंथ आनी न्यायप्रस्थान म्हळ्यार ब्रह्मसूत्रादि ग्रंथ.

उपनिषदांत ब्रह्म, सृश्टीची उत्पत्ती, सृश्टीचे आनी ब्रह्माचे संबंद, आत्मो, ब्रह्म आनी आत्म्याचे संबंद, तांचें ऐक्य, सदाचरणाची गरज, नीति असल्या गजालींची बारीकसाणेन आनी विस्तारान फोडणिशी केल्ली आसा. ब्रह्मविद्येचो युक्तिवाद करपी उपनिषदां, मुक्तिक उपनिषदाच्या आदारार १०८ आसात. तांतल्या तातूंत सगळ्यांत पोरनीं आनी चड म्हत्वाचीं १० उपनिषदां अशीं- ईश, केन, कठ, प्रश्न, मुंडक, मांडूक्य, तैत्तिरीय, ऐतरेय, छांदोग्य आनी बृहदारण्यक. शंकराचार्य आनी कांय हेर आचार्यांनी आपल्या सिध्दांतांची थापणूक करतना उपनिषदांचो आदार घेतला.

याज्ञवल्क्य हो ब्रह्मविद्येंतलो मोटो जाणकार. ताचे उपरांत आरुणि, सनत्कुमार, रैक्व, शांडिल्य, ऐतरेय, दधीचि ह्या पाटांगड्या आचार्यांचीं नांवां दिसतात. मरणाचेर जैत मेळोवपाक यमाच्या दरबारांत वचून ताकाच आपलो गुरु करपी नचिकेत आनी विद्या मेळोवपाक गुरुच्या घरांत जे कश्ट करचे पडटात, ते कश्ट सोसपी सत्यकाम जाबाल हे उपनिषदांतले आदर्श ब्रह्मचारी. बायलांभितर गार्गी आनी मैत्रेयी हांकां उपनिषदांत 'ब्रह्मवादिनी' म्हूण वळखतात.

पूर्विल्ल्या भारतीय लोकांच्या गिन्यानासंबंदीच्या वावरांतलो उंचेल्या पांवड्याचो काळ म्हळ्यार उपनिषदांचो काळ. उपनिषदांच्या काळांत लोक होम-हवन कर्माक खूब म्हत्त्व दिताले आनी धर्तरेवेल्या सुखाचो उपभोग घेवपाक वसवसताले. हें पळोवन उपनिषद काळांतल्या ऋषींनी लोकांफुडें वेगळोच आदर्श दवरलो. धर्माचें सूक्षीम स्वरुप दाखोवन भोग घेवप हें जिविताचें ध्येय नासून सुख हें भोगांत नासून त्यागांत आसा अशें सांगलें. जल्म-मरणाच्या चक्रांतल्यान सुटून मोक्ष मेळोवप हेंच मनीस जिणेचें ध्येय आसा. देखून, उपनिषदांनी सदाचार, सद्गुण, त्याग आनी तप ह्या श्रेष्ठ तत्त्वांचें मार्गदर्शन केलें.

सादारणपणान आत्मो आनी ब्रह्म हे दोनूय शब्द एकाच तत्त्वाक म्हळ्यार गुपीत शक्तीक उद्देशून आयल्यात. शिवाय परमात्मो, परब्रह्म आदी शब्द ब्रह्माक उद्येशून वापरतात. आकाश जशें कळसुलेच्या भायर-भितर आसता, तशें ब्रह्म लेगीत सृश्टीच्या कणाकणांत भायल्यान-भितरल्यान भरिल्लें आसता. पिंडांत म्हळ्यार प्राण्यांचे कुडींत आसा तो आत्मो, जाल्यार ब्रह्मांडांन सगळ्यांक व्यापून आसता तें ब्रह्म, हीं दोनूय तत्त्वां खरें म्हळ्यार एक आसून लेगीत मायेच्या योगान तांच्यांत भेद दिसता. तेन्ना ही गजाल मतींत घेवन मनशाचे कुडींतल्या आत्म्यान परब्रह्माबरोबर एकरूप जावप ही अवस्था सगळ्यांत वेल्या पांवड्याची आसा अशें उपनिषदां मानतात. 'तमेवं विदित्वा अतिमृत्युम् एति न अन्यः पन्था विद्यते अयनाय।' अर्थः 'ताकाच (आत्म्याक) जाणून घेवन मनीस मरणाच्या पेल्यान वता. मोक्ष मेळोवपाक आनी दुसरो मार्ग ना.'

पिंडांत आशिल्लो आत्मो आनी ब्रह्मांडांत आशिल्लें ब्रह्म एक जावप, हो एक उपनिषदाचो सगळ्यांत मोटो सिध्दान्त. मनशाची बुध्द, भावना आनी इत्सा- शक्त हांचे विस्कटावणेंतल्यान हें तत्त्व तयार जालें. उपनिषदांत जागृति, स्वप्न, सुषुप्ति आनी तुर्या अश्यो आत्म्याच्यो चार अवस्था मानल्यात. पयल्यो तीन गजाली सगळ्यांच्या अणभवाच्यो. पूण ब्रह्मविद्येची साधना जो करता ताका चवथे अवस्थेचो अणभव येता. हे अवस्थेंत आत्मो आनी ब्रह्म एकूच आशिल्ल्यान ज्ञातो कोण आनी ज्ञेय कोण हो भेदूच उरना. उपनिषदांतलें ब्रह्म चैतन्यान युक्त आनी सर्वशक्तिमान, सच्चिदानंद स्वरुपी तशेंच स्वयंभू आसा. ज्ञान, बल आनी क्रिया हे ताचे स्वभाव. हें ब्रह्म सगळ्यांचें मूळ आनी आदार आसा.

पूर्णमदः पूर्णमिदं पूर्णात् पूर्णमुदच्यते।
पूर्णस्य पूर्णमादाय पूर्णमेवावशिष्यते।।

अर्थः तें पूर्ण आसा, हें पूर्ण आसा. पूर्णांतल्यान पूर्ण जाता. पूर्णांतल्यान पूर्ण काडून घेतल्यार लेगीत निमाणें पूर्णूच उरता.

उपनिषदांत जीवाविशींची पयली कल्पना अशी आसा की जीव हो प्राणरुप (वायुरुप) आसूंक जाय. जीव वाणीबगर, दोळ्यांबगर, कानांबगर, मनाबगर जियेवंक शकता पूण प्राणाबगर जियेवंक शकना. पूण हेविशींचे विचार फुडें वचून जीवात्मो हो प्राणरुप नासून तो मनोमयरुप आसपाक जाय अशें थारलें. ताची सुवात हड्ड्यांतलें आकाश अशें मानतात. छांदोग्य उपनिषदांत तेज, आप (उदक) आनी अन्न हांचेपसून जीवात्मो तयार जाला अशें म्हळां. जीव हो बुध्द आनी आत्मतत्त्व हांचे भरसणीन जाला अशें तैत्तरीय उपनिषदांत सांगलां. पूण विचारांची आनीकूय विस्कटावणी जाली आनी जीवात्मो मनोमय आनी प्रज्ञास्वरुप आसा, इतलेंच न्हय तर ब्रह्माण्डाच्या मुळाक जें तत्त्व आसा तेंच तत्त्व जीवात्म्यांतूय आसा अशें मानपामेरेन विचार फुडें पावले.

मुक्ती वा मोक्ष म्हळ्यार जल्ममरणांच्या फेऱ्यांतल्यान जीवात्म्यान सुटप. मुक्तीचे सलोकता, समीपता, सरुपता आनी सायुज्य अशे चार भेद आसात. मुक्तीच्या ह्या कल्पनांक उपनिषदांचो आदार आसा. तत्त्वगिन्यानाच्या मळार विकासवाद मानलो जाल्यार अद्वैतवाद आनी सायुज्यमुक्ति उपनिषदांचो अखेरचो सिध्दान्त म्हणपाक हरकत ना अशें दिसता. पूण ह्या संदर्भांत वेगवेगळीं मतां आसात.

सायुज्यमुक्तिंत 'हांव' चें भान उरना. म्हळ्यार व्यक्ति नाश पावता असो ताचो अर्थ न्हय. संकुचित व्यक्तित्त्वाक म्हळ्यार देहांतल्या आत्म्याक सत्यत्त्व ना असो ताचो अर्थ. जीवाकडेन सत्यत्त्व आनी शिवत्व खूब आसून लेगीत देहाच्या मोगाक लागून ताका तें दिसना. देहाची वास्ना ना जातकच सत्यत्त्वाचें, शिवत्त्वाचें पूर्णत्वान दर्शन जाता आनी जीवात्म्याक परमानंदाची प्राप्ति जाता. तेन्ना जीव आनी ब्रह्म पुराय तन्मय जातात. हीच खरी मोक्षाची कल्पना. ही स्थिती भावरुप, अनुभवजन्य आसा. मुक्त जीवात्म्याकडेन वेगळेपणाची भावना नासता, फकत तातूंतलो 'हांव' मेकळो जाल्लो आसता. हे नदरेन हो श्लोक पळेयात-

यदा सर्वे प्रमुच्यन्ते कामा येऽ स्य हृदि श्रिताः।
अथ मर्त्यो ऽ मृतो भवत्यत्र ब्रह्म समश्नुते।।

अर्थः जेन्ना जीवात्म्याच्या काळजांत आशिल्ल्यो सगळ्यो वासना नश्ट जातात तेन्ना मर्त्य जीवात्मो हो अमृत जाता आनी ह्याच लोकांत ब्रह्माचो अणभव घेता. जीवाचो आनी परमात्म्याचो योग म्हळ्यार अमरत्व. वेव्हारांत हाकाच मोक्ष अशें म्हळां.

हे खेरीज उपनिषदांत, सृश्टीचे उत्पत्तीची कल्पना, साधनमार्ग, योगाचें म्हत्व, सत्याची प्रतिश्ठा, सदाचार नीत, समाजीक जीणेची नदर आदी गजाली विस्कटावन सांगल्यात. ह्यो गजाली आपणायत जाल्यार संवसारांतल्यो खुबश्यो अनिश्ट गजाली टळतात आनी जीवात्मो उंचेल्या पांवड्यार पावन मोक्षाक पावता, अशें उपनिषदांत सामकें उक्तें करून सांगलां.

डॉ. अनंत भट

**उपपुराणां:** संस्कृत साहित्यांत अठरा महापुराणांभायर जीं हेर पुराणां आसात, तांकां 'उपपुराणां' म्हण्टात. हीं उपपुराणां खंयच्या ना खंयच्या महापुराणांकडेन संबंदीत आसात. उपपुराणां हीं महापुराणांउपरांत घडयिल्लीं आसून तीं उणे प्रतींचीं आसात, असो गैरसमज बऱ्याच पयलींसावन प्रचलित आसा. पूण कांय उपपुराणां महापुराणांपरसय पयलींचीं आसात, हें सिध्द जालां. सगळ्याच उपपुराणांनी मोलाची इतिहासीक माहिती आसा. गुप्तपयलींकाळांतली संस्कृताय, कला, साहित्य, समाजवेवस्था आनी धर्मसंस्था हांचेविशीं बरीच माहिती उपपुराणांनी सांपडटा.

उपपुराणांची नेमकी संख्या कितली हाचेर मतभेद आसात. बऱ्याच संस्कृत ग्रंथांत तांची वळेरी दिल्या आनी संख्या सगळेकडेन अठराच सांगल्या. हांच्यांतलीं कांय नांवां सगळ्या ग्रंथांत समान आसात जाल्यार कांय वेगळीं आसात. सगळे कडचीं वट्ट उपपुराणांचीं नांवां पळेत जाल्यार तांची संख्या अठरांपरस चड जाता. प्रचलित उपपुराणांचीं नांवां अशीं:

१. आद्य वा सनत्कुमारीय २. नारसिंह ३. स्कान्द ४. शिवधर्म ५. दुर्वासोक्त ६. नारदीय ७. कापिल ८. वामन ९. औशनस १०. ब्रम्हाण्ड ११. वारुण १२. कालिका १३. माहेश्वर १४. साम्ब १५. सौर १६. पराशरोक्त १७. मारीच १८. भार्गव १९. नंदी २० वायवीय २१. नन्दिकेश्वर-युग्म २२. दैव २३. भास्कर २४. मानव २५. भागवतद्वय २६. पाद्म २७. शौक्रेय २८. बार्हस्पत्य २९. कौर्म ३०. आणु ३१. बृहन्ननारदीय ३२. बृहन्नन्दीश्वर ३३. क्रियायोगसार ३४. धर्म ३५. विष्णुधर्मोत्तर ३६. विष्णुधर्म ३७. बृहध्दर्म ३८. शौक्र ३९. बृहन्नारसिंह ४०. बृहद् वैष्णव ४१. गारुड ४२. प्रभासक ४३. लीलावती ४४. देवी ४५. आखेटक ४६. एकाम्र ४७. एकपाद ४८. लघु भागवत ४९. मृत्युंजय ५०. आंगिरसक ५१. गणेशक.

ह्या उपपुराणांभायर आनीकय कांय उपपुराणां आसात. कांय उपपुराणां नश्ट जाल्याचें समजता.

कूर्मपुराणांत ज्या १८ उपपुराणांचीं नांवां आसात, तीं इ.स. ६५० ते ८५० ह्या काळांत रचिल्लीं आसूंये, ह्या उपपुराणांचे रचणुकेक गुप्तकाळांत सुरवात जाली, अशें सादारणपणान म्हणूंक येता. कांय जाणांच्या मतान कांय उपपुराणां हांच्यापरसय पोरनीं आसात.

वैदिक काळासावन पुराणां हीं 'सूतवाङ्मय' ह्या स्वरुपांत प्रचलित आशिल्लीं. वैदिक आर्य तांकां वेदांफाटोफाट पवित्र मानताले. काळांतरान बौध्द आनी जैन धर्मांक लागून वैदिक धर्माचो प्रसार फाटीं पडलो; तेन्ना स्मार्त ब्राह्मणांनी आपापल्या पंथाचे उदरगतीखातीर त्या पुराणसाहित्याचो उपेग करून घेतलो आनी ताच्या आदारान वर्णाश्रमधर्म पर्थून जितो केलो. त्यावेळार ब्रह्मा, विष्णु आनी महेश हांची उपासना करपी ब्राह्म, पांचरात्र आनी पाशुपत हे ग्रंथ अस्तित्वांत आशिल्ले. फुडें गुप्तकाळांत भागवत पंथाची उदरगत जाली.

स्मार्तपंथी ब्राह्मणांनी जीं पुराणां रचलीं, तीं महापुराणां ह्या नांवान नामनेक पावलीं. इ. स. प. काळांत तांचे रचणुकेक सुरवात जाल्ली. हीं पुराणां रचतकच तांची संख्या अठरा जाली. ती संख्या शुभ वा पवित्र आसा, अशें समजून निश्चित जाली. उपरांत ब्राह्म, पांचरात्र आनी पाशुपत ह्या पंथांचे आनीक उपपंथ निर्माण जाले. ह्या पंथांपैकीं स्मार्त लोकांनी नव्या पुराणांची रचणूक केली. पूण अठरा पुराणां मानपी लोकांनी ह्या नव्यान रचिल्ल्या पुराणांक आपल्या पंगडांत सुवात दिलीना. तरीकय तीं नामनेचीं आनी लोकप्रिय जाल्ल्यान तांकां दुसरी सुवात दिवचीच पडली. हाकालागून मागीर मत्स्यपुराणांत कांय श्लोक घालून तातूंत नव्या पुराणांचें वर्णन उपपुराणां अशें केलें.

महापुराणांभशेन उपपुराणांतय सर्ग, प्रतिसर्ग, वंश, मन्वन्तर आनी वंशानुचरित हे विशय आसचे, अशें कांय सुवातींनी म्हळां. पूण तशें प्रत्यक्षांत सामकें उणेंच सांपडटा. हीं उपपुराणां खासा पंथाच्याच तत्त्वगिन्यानाचो पाखो उखलून धरपाखातीर रचिल्ल्यान तांच्या कर्त्यांनी राजवंशावळीक कांय फावट मातय म्हत्व दिलें ना. कांयकडेन उपपुराणांत राजवंश दिल्ले आसतात, पूण तांची माहिती तशातशी आसना. तातूंत दंतकथा बऱ्योच भरशिल्ल्यो आसतात. पूण अशें आसूनय धर्मीक आनी संस्कृतीक इतिहासाचे नदरेन उपपुराणां भोव उपेगाचीं थारल्यांत. हिंदूंची समाजीक स्थिती, तांचें तत्त्वगिन्यान, विज्ञानाची उदरगत आनी साहित्य, हांचेविशीं बरीच म्हायती ह्या उपपुराणांनी सांपडटा. महापुराणां हीं उंचेल्या प्रतीचीं आनी अधिकृत मानल्यांत. पूण उपपुराणां उणे प्रतीचीं आसात, अशें समजल्ल्यान तांचेर नवे संस्कार जावंक पावले नात. हाका लागून तांचें रुप तशेंच उरलें आनी व्हडलेशे बदल जावंक पावले नात.

- कों. वि. सं. मं.

**उपास:** देवाधर्माक पाळो दिवंक आनी व्रताचो नेम म्हूण अमुकूच काळामेरेन जेवी-खाय नासतना रावप, हाका उपास म्हण्टात. उपास हो शब्द संस्कृत 'उपवास' ह्या शब्दाचें अपभ्रंश रुप आसा. संस्कृतांत 'उपोषण' होय आनीक एक शब्द आसा. उपासाच्या काळांत पोट रितें उरिल्ल्यान मनशाचे कुडीच्या विंगड विंगड अवयवांक उसंत मेळिल्ल्यान, मनशाची भलायकी सुदारता आनी मनाक शांती मेळटा. ह्या कारणाक लागून कुडीचे आनी मनाचे विकार उणे जातात, अशें म्हण्टात. मनशाची कूड आनी मन हांचे भलायकेखातीर उपासाची येवजण जाली आसूंये आनी ती प्रत्यक्षांत हाडपाक सोपी जावची म्हूण तिका धर्मीक म्हत्त्व दिलां जावंये.

उपास हो पातक ना करपाचो मार्ग, अशें गौतम धर्मसुत्रांत बरयलां. वेद वचन पाळून यज्ञ-दान, तप, उपास हे परमेश्वर प्राप्तीचे मार्ग आसात अशें बृहदारण्यकांत म्हळां. तपाच्या वेगवेगळ्या प्रकारांत उपासाचें म्हत्व आनी व्हडपण आसा अशें महाभारतांत सांगलां. मनुस्मृती आनी हेर स्मृतीग्रंथांत समाजीक पातकांपसून मुक्ती मेळपाखातीर उपासाचें प्रायश्चित सांगलां.

उपासाचो काळ एका दिसापसून एका म्हयन्यामेरेन आसूं येता. तीन, पांच आनी सात दिसांच्या तशेंच म्हयन्याच्या आनी वर्साच्या उपासा दिसा थोड्या प्रमाणांत आहार करपाक मान्यताय आसा. धर्मशास्त्रांत एकादस, प्रदोश, शिवरात्र, रामनम, जन्माश्टम, हरितालका तृतीया ह्या दिसा पूर्ण उपास करतात. सोमार, शेनवार आदी वारांच्या उपासादिसा दिसांतल्यान एक फावट जेवण घेतात. संकश्टी दिसा चंद्रोदया उपरांत आनी विनायकी दिसा दनपरां जेवतात. कांय जाण उदक लेगीत पियेनासतना उपास करतात, जाका निर्जल उपास म्हण्टात.

खरें म्हळ्यार उपास खर रितीन पाळपाचो, हाचेर धर्मशास्त्रांत भर दितात. पूण असो निखटो उपास चड करून कोण करीनात. जेवणाचो पर्याय म्हणून दूद आनी फळार घेतात. केळीं, आंबे, चिकू, द्राक्षां, काळींग, पणस अशीं फळां उपासाक खातात. तशेंच दुदी, केळीं, भेंडे, बटाट अश्यो कांय भाज्योय उपासाक खातात. कांय लोक उपासादिसा वरयां तांदळाचे, रव्याचे वा शाबुदाण्याचे पदार्थ करून खातात.

पुरी, लरांव, मुगांचें कण्ण, गंवांची चपाती आदी खावन उपास पाळपाची चाल आसा. किरिस्तांव धर्मांत तांतयां, नुस्तें आदी पदार्थांचें सेवन करपाक मान्यताय आसा. मुसलमान धर्मांत रमजानचो म्हयनो उपासाचो मानतात. तेन्ना तांकां रातचो एका खासा वेळार आहार घेवपाक जाता. यहुदी (ज्यू) आनी किरिस्तांव धर्मांत सब्बाथ आनी लेंट (ॲश वॅनस्डे ते ईस्टर मेरेनचो काळ) हे उपासाचे दीस थारायल्ले आसतात. मुसलमान आनी किरिस्तांव हांचेभशेन जैन, बौध्द आनी हिंदू हांकांय उपासाचें म्हत्व आसा. पातकांपसून मुक्ती मेळोवपाखातीर आनी प्रायश्चित म्हूण उपासाचें व्रत सौम्य वा खर रितीन पाळपाची तांच्यांत चाल आसा.

शास्त्राप्रमाण उपासाच्या दिसांनी अंजन, गंध, फुलां माळप, वस्ती घालप, पान खावप आदी वर्ज्य आसता. ल्हान भुरगीं आनी दुयेंत मनीस हांचेखातीर उपासाचे नेम सौम्य करपाची मेकळीक आसा.

चित्तशुध्दीखातीर आनी हेरांकडल्यान जावपी अत्याचाराचें प्रायश्चित म्हूण महात्मा गांधीन उपास केलो. हो उपास राजकी चळवळीसंबंदी आशिल्ल्यान भारताच्या राजकी इतिहासांत गांधीच्या उपासाक एक खाशेली सुवात आसा.

जेन्ना एकाद्रो मनीस गरिबीक लागून वा हेर खंयच्याय कारणाक लागून अन्न घेवंक पावना, तेन्ना तो उपाशी उरता. हो उपासाचो प्रकार न्हय.

- एन्. आर. केळकार

**उमर खय्याम:** (जल्म: १०४८, खोरासान- इराण; मरण: ?).

एक नामनेचो फार्सी कवी आनी विद्वान. ताचें पुराय नांव गियासुद्दीन अबूल फत्ह उमर बिन इब्राहिम अल्-खय्यामी. पूण ताका खय्याम नांवानच वळखताले. ताच्या इश्टांनी आनी शिश्यांनी केल्ल्या वर्णनावेल्यान ताच्या जिवितकाळाची सादारणपणान कल्पना करूंक येता. पूण ताची प्रतिभा ऊंच आनी स्मरणशक्ती खर आशिल्ल्यान, ज्योतिश, गणित, वैजकी, विज्ञान, तत्त्वगिन्यान ह्या विशयांनी तो खांपो आशिल्लो. नामनेचो विद्वान इमाम मुवफ्फिक हो ताचो गुरु आशिल्लो.

सुलतान मलिकशाह हाणें पंचांगांत सुदारणा करपाखातीर ज्या आठ मानादिक ज्योतिर्विदांची समिती नेमिल्ली, तातूंत खय्यामाचो आस्पाव आशिल्लो. ह्याच वेळार खय्यामान 'जीजे मलिकशाही' नांवाचो एक ग्रंथ बरयलो. ह्या ग्रंथांत ताणें ज्योतिशाविशीं कोश्टकां दिल्लीं आसात. ताणें पोरने पर्शियन कालगणना पध्दतींत जी सुदारणा सुचयिल्ली, ती १०७९ वर्सा उपेगांत हाडली. हे सुदारणेवरवीं ५००० वर्सांत फकत एका दिसाचीच चूक जातली, अशें ताणें गणित केल्लें. ताणें अरबी भाशेंत बरयल्ल्या बीजगणिताच्या ग्रंथांक खूब नामना मेळ्ळ्या. ह्या ग्रंथांत ताणें तृतीय घातामेरेनच्या समीकरणाचें सामान्य आनी संयुक्त अशें वर्गीकरण केलां. तशेंच ताणें द्विघाती समीकरणां सोडोवपाची रीतय दाखयल्या. तृतीय घाती समीकरणांचीं घनबीजां (cube-roots) आशिल्ले तेरा प्रकार ताणें दाखयल्यात. ह्या समीकरणांचीं बीजां ताणें दोन शाकवांच्या (conics) छेदनाच्या (intersection) स्वरुपांत मेळयलीं. भूमितीय आनी अंकगणितीय निर्वाहांत (solution) वेगळेपण आशिल्ल्याचें ताणें दाखोवन दिलें. ताच्या बीजगणितीय संशोधनाविशीं डी. एस्. कासीर हाणें १९३१ त बरयल्ल्या 'आल्जेब्रा ऑफ उमर खय्याम' ह्या ग्रंथाक बरीच नामना मेळ्ळ्या. ताणें 'नौ राज नामा' ह्या फार्सी ग्रंथांत युनानी वैजकीविशीं बरयलां. तातूंत 'जव' (कोंकणी-सवाद, फार्सी-खवेद, संस्कृत-यव, इंग्लीश-बार्ली) ह्या गुणकारी धान्याचो उल्लेख आसा. हो ग्रंथ अभ्यास करपासारको आसा. १९३३ त मुज्तबा मिनोवी हाणें तेहरान हांगा हो ग्रंथ उजवाडायिल्लो.

फाविल्ल्या वेळांत उमर खय्याम रुबायां बरयतालो. ह्या रुबायांखातीरच ताका सगळेकडेन नामना मेळ्ळी. तशेंच खुबशा देशांनी उमर खय्याम क्लबांची थापणूक जाली. थंय ताच्या रुबायांचें शिकप आनी शिकोवप चलता. संवसारांतल्या तरेकवार भासांनी ताच्या रुबायांचे अणकार जाल्यात. ताच्या रुबायांतले मुखेल विचार अशे आसात: 'आपल्या नशिबांत जें किदें आसा, तें घडलेबगर रावना इतली नियती ताकदवान आसा. मनशान आसा ते परिस्थितींत सुख आनी समाधान मानूंक जाय. सदांच हेरांचेर उपकार करूंक जाय. सुख-दुखां जशीं येतात, तशीं वतात.' ८५९ वर्सा फिट्सजेरल्ड हाणें ताच्या रुबायांचो इंग्लीश अणकार केलो, जाचेवरवीं जगाक ताच्या सुंदर कवित्वाची पयले खेप वळख घडली. आर्विल्ल्या भारतीय भासांतूय ताच्या रुबायांचो अणकार जाला. माधव ज्यूलियन (मराठी), मैथिलीशरण गुप्त (हिंदी), भ. द. वर्मा (हिंदुस्थानी), मीर वली अल्ला (उर्दू), नरेंद्र देव (बंगाली) हे तातूंतले कांय अणकारपी आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**उमास (अमास):** अमा+वस्=अमा सह वसतश्चन्द्राकौं यस्यां सा= अमा अर्थात सहितत्वान (एका नखेत्रांत). जे तिथीक चंद्र-सूर्य रावतात ती तीथ (हलायुध). चंद्राचे निमणे कलेचें नांव. चांद्रमासाचो निमाणो दीस. अमाशेक चंद्र आनी सूर्य हांचे उदय आनी अस्त सादारणपणान एकदमूच जातात. अमाशेच्या राती चंद्राचो धर्तरेखटेनचो भाग पुराय काळखांत आसता. कारण अमाशेक सूर्य चंद्राच्या दुसऱ्या अर्दांत उरता. सूर्याचें गिराण अमाशेक आसता.

अमा षोडशभागेन देवि प्रोक्ता महाकला।
संस्थिता परमा माया देहिनां देहधारिणी।।

(स्कंदपुराण)

अर्थ: चंद्रमंडळाचे सोळावे कलेक म्हळ्यार अमाशेक, क्षयोदयादि बगर आशिल्ल्या कारणान महाकला अशें म्हण्टात. ती सगळ्या प्राण्यांचे देह धारण करपी परम माया जावन आसा.

पंचांगांत अमाशेची तीथ ३० ह्या आंकड्यान दाखयतात. अमास हें नांव ज्योतिशाच्या प्रगतीचें दर्शक जावन आसा. ताचे पयलीं दर्श हो शब्द आयिल्लो. दर्श म्हळ्यार अमाशेउपरांतची चंद्रदर्शनाची प्रतिपदा. अमास शब्दाचो उल्लेख ऋग्वेदांत येवंक ना.

सोमार, मंगळार, बिरेस्तार, तेचप्रमाण अनुराधा, विशाखा, स्वाती ह्या नखेत्रांचेर ती आयल्यार खासा पवित्र अशें मानतात. सोमारा आयल्यार तिका 'सोमवती' अशें म्हण्टात. ते तिथीक बायलो अश्वत्थाची (पिंपळाची) पूजा करून ताका १०८ वस्तू ओंपतात. भाद्रपद अमाशेक 'सर्वपित्री' म्हण्टात आनी त्या दिसा सगळ्या पितरांच्या उद्देशाखातीर श्राध्द करतात. मांत्रिक लोक मंत्रसाधनेखातीर ही रात पसंद करतात. नदरेच्या दोशाखातीर मंत्र, तंत्र, दोरे ह्या दिसा करतात. अमास ही तीथ सादारणपणान अशुभ मानतात. कापणी, मळणी, पेरणी ह्या दिसा करिनात. नवे वस्त्रालंकार धारण करिनात. धान्य, पयशे संपत्तीसंबंदान आशिल्ल्यो वस्तू दुसऱ्यांक दिनात. हो अनाध्याय दीस म्हूण पाळटात. साधू, पीर हांच्या समाधींचें दर्शन घेतात. श्रावण अमाशेक 'कुशग्रहणी' तशेंच 'पिठोरी अमास' अशेंय म्हण्टात. वैशाखांतले अमाशेक 'भावुका अमास' अशें म्हण्टात. आशाढांतले अमाशेक देशकाळाप्रमाण 'हरिता अमास' तशेंच 'दीपपूजा अमास' अशेंय म्हण्टात. मार्गशीर्षांतले अमाशेक 'महाव्रती' अशें म्हण्टात. पौषी अमाशेक 'बकुल अमास' म्हण्टात. माघांतले अमाशेक 'मौनी अमास' अशें म्हण्टात. दिवाळेचे परबेवेळची 'लक्ष्मीपूजन' ही परब अमाशेचे रातीक येता.

अमाशेचें मूर्तीध्यान हेमाद्रीन अशें सांगलां:-

अमावास्या विधातव्या द्विर्दोर्मरकतप्रभा।
दर्भासनस्थिता चेयं दर्भपिण्डधरा कृशा।।

अर्थ: दोन भुजांची, मरकत रत्नाचे कांतीची, दर्भासनाचेर आशिल्ली, दर्भमुठ धारण केल्ली आनी कृश अशी अमाशेची मूर्त करची.

- कों. वि. सं. मं.

**उमो:** दुसऱ्या मनशाविशीं आशिल्लो मोग, आपलेपणाची भावना उक्ती करपाखातीर स्वताचे ओंठ त्या मनशाच्या कपल, तकली, ओंठ वा कुडीच्या हेर भागांचेर कसलेंच बंधन बाळगिनासतना दवरप, हाका 'उमो' अशें म्हण्टात. उमो ही मोगाची कुरु आसून ती मनशाचे सभावीक प्रेरणेन वा अंतस्करणांतले उर्बेन घडटा. आवयन स्वताच्या भुरग्याचो घेतिल्लो उमो मोगावांगडाच भुरग्याविशींची अपुर्बाय उक्ती करता. दादल्या-बायलेन एकामेकांचो घेतिल्लो उमो एकामेकांमदलो मोग उक्तो करपाचें पयलें पावल आसता. दुसऱ्या अर्थान हो उमो कामाविशींचे भावनेची कुरू आसता.

इंद्रियजन्य वेव्हारांत स्पर्श हो प्रकार सगळ्यांत वयर आसलो तरी शरीरस्पर्शाच्या विंगडविंगड प्रकारांत उम्याचो पांवडो सगळ्यांत वयर आसा. उम्यावरवीं शरीराक तशीच मनाक थाकाय मेळटा, असो शरीरशास्त्राचो आनी मानसशास्त्राचो निर्वाळो आसा.

उमो घेवपाची चाल केन्ना, कशी आनी खंय सुरू जाली ह्या संबंदान निश्चित अशी म्हायती मेळना. संवसारांतल्या सगळ्यांत पोरने संस्कृतायेमदली एक अशे ग्रीक संस्कृतायेंत लेगीत तोंडाचो उमो घेवपाची चाल नासली. तोंडाचो उमो घेवपाची चाल उदेंतेकडल्या लोकांनी सुरू केली अशें ग्रीक लोक मानतात. रोमन लोकांतय ओंठाचो उमो घेवपाची चाल आसली. इराणी लोक आपल्या सोयऱ्यांभितरल्या मनशांचो उमो घेताले, जाल्यार वयल्या पांवड्यावेले लोक सकयल्या पांवड्यावेल्या लोकांच्या कपलाचो उमो घेताले.

वेदांत चुंबन घेवप, उमो घेवप ह्या अर्थान खंयचेंच उतर येना तर वास घेवप (घ्रा) ह्या अर्थान येता. बापायन भुरग्याचे तकलेचो तीन फावटीं वास घेतल्यार भुरग्याची पिराय वाडटा अशी कल्पना भारतांत उपनिषदकाळासावन चलता. चुंबन घेवप वा उमो घेवप ह्या अर्थाचें उतर खूब काळाउपरांत प्रचारांत आयलें. पूण मूळ चुंबन घेवप वा हुंगप ह्या उतराचो अर्थ 'स्पर्श करप' होच आसुंये. चुंब हो धातू चप्= स्पर्श करप ह्या धातूवेल्यान तयार जालो अशें म्हण्टात. वेदाउपरांतच्या साहित्यांत, शतपथ ब्राह्मणांत, महाभारतांतल्या ऋष्यशृंगाच्या उपाख्यानांत उमो घेवपाचे उल्लेख आयल्यात.

पुराणग्रंथांत प्रणयवर्णनांचे जायते उल्लेख आयले तरी उमो घेवपाचो प्रसंग एकाद्रोच दिश्टी पडटा. बौध्द जातकांत 'चुंब' हें उतर जायते फावटीं आयलां. हें उतर दादलो बायल हांचे मदलो संबंद दाखोवपाक वापरलां. गीतगोविंदांत उम्याचीं जायतीं वर्णनां आयल्यांत.

कामसूत्राच्या तिसऱ्या अध्यायांत उम्याचो मानसशास्त्रीय नदरेंतल्यान नियाळ केला आनी ताचे प्रकारय सांगल्यात.

ललाटालककपोलनयनवक्षः स्तनोष्ठान्तर्मुखेषु चुम्बनम्।

अर्थः कपल, केंस, पोले, दोळे, दादल्याचें हड्डें, थानां, ओंठ, तोंडाचो भितल्लो भाग इतले कडेन उम्याचो उपेग करूं येता.

वात्स्यायनान नव मोगी-मोगिकेच्या संबंदान उम्याचे तीन तरेचे प्रकार सांगल्यात, ते अशे-

निमित्तकं स्फुरितकं घट्टितकमिति कन्याचुम्बनानि।

अर्थः निमित्तक, स्फुरितक आनी घट्टितक अशीं तीन कन्या चुंबनां आसतात.

**निमित्तकः** हातूंत मोगिका मोग्याच्या अनुनयान उमो घेवपाक तयार जाता. लजेन आवुंळिल्ले स्वताचे ओंठ मोग्याच्या ओंठाक तेकयता पूण ताचे ओंठ दामीना वा चोखीना.

**स्फुरितकः** हातूंत दादलो बायलेचो वा मोगी मोगिकेचो ओंठ आपल्या ओंठांनी दामता. बायल हो उमो थीर न जावपाचें नाटक करता. अशा वेळार दादलो आपली ओंठावेली पकड सोडटा. त्यावेळार ती ताचे ओंठ आपल्या ओंठांनी घट धरपाचो यत्न करता. अशा वेळार दोगांय भितर खास स्फुरण वा कंपनां तयार जातात. तांकां 'स्फुरितक' अशें म्हण्टात.

**घट्टितकः** हातूंत बायल स्वताच्या फुडाकारान दादल्याचे दोळे आपल्या हातांनी बंद करता आनी स्वताचे दोळे धांपून दादल्याचो ओंठ आपल्या ओंठांत धरता. तशें करतना ती आपली जीब ताच्या ओंठांवेल्यान घुंवडायता.

वयर आयिल्ले उम्याचे प्रकार सोडून वात्स्यायनान अधरचुंबनाचे आनीकय पांच प्रकार सांगल्यात. ते फुडलेतरेन आसातः सम, तिर्यक, उद्भ्रांत, अवपीडित आनी आकृष्ट. तोंड सोडून हेर अवयवांच्या उम्याचे चार प्रकार सांगल्यात, ते म्हळ्यार सम, पीडित, अंचित आनी मृदू.

खास अशी परिस्थिती आनी मनाची अवस्था हांचेर आदारिल्ले उम्याचे कांय प्रकार अशे-

**उद्दिपकः** बायलेन न्हिदिल्ल्या दादल्याक, मोगाचे भावनेन बारीकसाणेन पळेत घेतिल्लो उमो. हातूंत दोगांचेंय कामोद्दीपन जाता.

**चलितकः** रगार जाल्या, फुगून बशिल्ल्या, संभोगाविशीं निर्शेवणी दाखोवपी दादल्याचें ध्यान आपले वटेन वळोवपाक बायलेन घेतिल्लो उमो.

**प्रतिबोधिकः** दादलो कळाव करून न्हिदपाचे कुडींत येतकच बायल फुगार जावन न्हिदेचें सवंग घेता. मागीर दादलो तिका जागी करपाखातीर जो उमो घेता ताका 'प्रतिबोधिक' म्हण्टात.

**छायाचुंबनः** हारश्यांत वा उदकांत, दादलो वा बायलेच्या पडबिंबाचो घेतिल्लो उमो.

मोगी-मोगिकेच्या उम्याच्या प्रकाराभायर हेर नात्यामदीं उमो घेवपाची चाल आसा. देखीक- आवय वा बापूय आपल्या भुरग्याचो उमो घेवन ताचेविशींची आपली अपुर्बाय उक्ती करता. कांय समाजांमदीं लागींच्या नात्यांत वा इश्टांमदीं वा जाण्ट्यांविशीं आदर उक्तो करपाक उमो घेवपाची चाल आसता. कांय लोक साधुच्या मनगटाचो वा साधुच्या तशेंच देवाच्या मुर्तीच्या पांयांचो उमो घेतात. गोंयांत ओल्ड गोवा हांगा सां फ्रांसिश्कु शाव्हियॆर ह्या किरिस्तांव समाजाच्या संताचें शव ज्या हारशाचे पेटयेंत दवरलां, ते पेटयेचो भावार्थान उमो घेवपाची चाल ह्या संताच्या भाविकांमदीं आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## उरूसः

उरूस वा उर्स हें इस्लामी धर्मांतलें नांव. ह्या नांवाक दोन अर्थ आसात. १. लग्नानिमतान घाल्ली जेवणावळ २. व्हड मुसलमान मनशाचे पुण्यतिथीनिमतान जावपी उत्सव.

दुसऱ्या अर्थान उरूस वा जुलूस हीं नांवां वापरतात. मुसलमानांच्या मताप्रमाण हो एक खंयच्याय फकीर, पीर वा म्हात्म्याचे पुण्यतिथीच्या निमतान केल्लो उत्सव. देखीक- गौस लाजम, दस्तगीर, दादा हयात, कलंदर ह्या सारक्या मुसलमान सत्पुरशांचे दरेक वर्सा येवपी पुण्यतिथीनिमतान हो उत्सव आसता. ह्या दिसा खूब लोक एकठांय जमतात. महात्म्याची कबर निवळ करून तिका नवीं वस्त्रां घालून सजयतात. मुसलमान लोक आपली धर्मीक पदां म्हण्टात, नमाज करतात आनी थंय दिवो लायतात. पुण्यतिथीच्या आदल्या दिसा सावन उरूसाक सुरवात जाता. ताका 'संदल' म्हण्टात. ह्या उत्सवा निमतान खूब लोक एकठांय येवन ताका जात्रेचें स्वरुप आयलें आनी फुडें ताका उरूस म्हणूंक लागले आसूंक जाय. भारतांत अजमेर शारांत आनी पिरानकलियड हांगा जावपी उरूसांची खूब नामना आसा. ह्यावेळार देशांतले नामनेचे गायक-गायिका हांगा जमतात आनी मनोरंजनाच्यो कार्यावळी करतात.

गोंयांत अडण्या (कुंकळ्ळे), काकोडें, फोंडें, ओल्ड-गोवा, बेतीं, सांखळे, दिवचल, सांगें हांगा उरूसाचो वर्सुकी उत्सव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## उर्दू भाषाः

उर्दू भास चड करून पाकिस्तान आनी भारत देशांत उलयतात. १९८१ वर्साचे जनगणनेप्रमाण भारतांत उर्दू भास उलोवप्यांचो आंकडो ३,५३,२३,२८२ इतलो आशिल्लो. उर्दू भास उलोवप्यांचो आंकडो विंगड विंगड वाठारांत फुडलेतरेन आसाः

| | |
|---|---|
| आंध्र प्रदेश | ४१,६९,१७९ |
| बिहार | ६९,५५,८३८ |
| कर्नाटक | ३५,१२,८३१ |
| मध्य प्रदेश | ११,३१,२८८ |
| महाराष्ट्र | ४३,१९,०६७ |
| उत्तर प्रदेश | १,०७,६७,१७५ |
| अस्तंत बंगाल | १२,००,२१६ |
| गोंय, दमण, दीव | २७,७०३ |

आंकड्यांचे नदरेन पळेल्यार भारतीय भासांमदीं उर्दू भाशेचो सवो क्रमांक लागता. उर्दू ही मूळ आर्यभारतीय भास जावन आसा. पूण उर्दू पंडितांनी उर्दूचें व्याकरण अरबीच्या अनुकरणान तयार केलें. ताका लागून ते वेगळी मांडावळ करतात.

सुर्वेक उर्दू भाशेक 'हिंदी' म्हूण वळखताले. अमीर खुसरो (१२५३-१३२५) हाणें हे भाशेचो 'हिंदी' म्हूण उल्लेख केला. सुमार

१७२५ त, लखनौ आनी दिल्लीच्या विद्वानांनी 'उर्दू' हें नांव हे भाशेक दिलें. हे मूळ उतर तुर्की आसून ताचो अर्थ 'लश्कराची छावणी' असो जाता.

हे भाशेचे उत्पत्ती संबंदान विद्वानांभितर खर मतभेद आसात. दिल्ली, रामपूर, मुरादाबाद, बिजनोर, मुझफ्फरनगर, सहारनपूर, अंबाला, उदेंत पतियाळा, मीरत, डेहराडून ह्या प्रदेशांतल्या प्राचीन अपभ्रंशांतल्यान ही भास घडली हें नव्या संशोधनांतल्यान सगळ्यांक मान्य जालां.

उर्दू भाशेचो इतिहास तेराव्या शतमानाआदीं गेल्लो दिसना. सुर्वेक ही भास अरबी-फार्सी लिपीवांगडा देवनागरींतय बरयताले.

नागरी लिपींतल्यानय तातूंत साहित्यनिर्मणी जाली. राजसत्तेच्या आश्रयाक लागून मुसलमान साहित्यिकांकडल्यान फार्सी लिपींत साहित्यनिर्मणी जाली. दक्षिणेंत ख्वाजा बंदेनवाज (मरण-१४२२) हाणें सगळ्यांत पयलीं हे भाशेंत साहित्यनिर्मणी केल्याचो उल्लेख मेळटा.

हिंदी भाशेंत आशिल्ले सगळे सूर आनी व्यंजनां उर्दूंत आसात. उर्दू लिपींत हिंदीवरी महाप्राणांखातीर स्वतंत्र चिन्हां नासलीं, तरी ते उच्चार आसात. जोडाक्षरांवरवीं ते उक्ते जातात. जिव्हामूलीय स्वर ऐन, घर्षक ख, ज, ग, फ आनी मृदुतालव्य 'क' हीं व्यंजनांय आसात.

आयचे उर्दू भाशेंत लिंगभेद आनी उतरांचो अंत्य वर्ण हांकां धरून भौवचनाक विंगडविंगड प्रत्यय लागतात. भौवचनाचें सामान्यरूप औरत-औरतों, मर्द-मर्दो अशें जाता. पोरने उर्दूंत मात फकत आँ, आन् ह्या प्रत्ययाचेर भागताले. ह्या भासांत लिंगभेदाविशीं अनिश्चितपण दिसून येता.

आयचीं उर्दूंतलीं सर्वनामां हिंदीवरी आसलीं. तरी पोरन्या रुपांत वेगळेंपण दिसता. मैं, हूँ, हैं, हम, हमें, हमन-ना, तू, तुं, तूं, तुम, तुमन-ना, मुज-झ अशीं रूपां दिसतात. उर्दूंत प्रथमाविभक्तींत 'नें' हो कर्तृवाचक प्रत्यय चालंत आसा. 'ने' हो प्रत्यय पोरने उर्दूंत सर्रास चलता. उर्दूंत तृतीया आनी पंचमी ह्या विभक्तींत आयज 'से' प्रत्ययाचो वापर जाता. पोरने भाशेंत सूं-सो, ते-तें, थे-थें, सात हांचो वापर जातालो. सेते, सीते, सिते हीं 'से' आनी 'ते'ची अखंड रुपां व्हड प्रमाणांत दिश्टी पडटात. चतुर्थीक लिप, खातीर हे प्रत्यय लागतात. पोरने उर्दूंत खातीर, बदल हे प्रत्यय लागताले. लिए हो प्रत्यय खूब उसरां आयलो. आयज संबंददर्शक का, की, के हे आसात. पोरने भाशेंत केरा-री-रे हे प्रत्यय आसताले. सप्तमींत ऊपर, पर, में, अन्दर, बाहर हे प्रत्यय आस्पावतात.

उर्दूंत भूतकालीन रुपां आकारान्त जातात. देखीकः पडा, कहा, भागा आनी हेर. वर्तमानकालीन क्रियापदांचीं पुरुषवाचक रुपां ता-कारान्त जातात. भविश्यकालीन क्रियापदांचो प्रत्यय गा- गी- गे असो जाता. विशेशणांत विशेश्यानुसार विभक्ती बदलना. आकारान्त विशेशणांत सामान्य रुप जाता. पूण पोरने उर्दूंत (दक्खिनी) खास करून ई-कारान्त नामांच्या विशेशणांत विशेश्याचो प्रत्यय लागता. क्रिया आनी प्रत्यय हांकांय तो त्याचवांगडा लागता. उर्दूंत कालवाचक अब, जब, तब, कब; थळवाचक यहां, वहां, जहां, तहां, कहां; दिशावाचक इधर, उधर आदी आनी रितीवाचक यों, ज्यों, क्यों, त्यों आनी हेर वापरतात. 'कि' हें उभयान्वयी अव्यय उर्दूंत आरंभासावन (सुमार १३२८) आयजमेरेन वापरतात. जो, जे (की) हे उभयान्वयी अव्यय उर्दूंत आयज उणेच वापरिल्ले दिसतात.

| उर्दू वर्ण | उच्चार | नागरी वर्ण | उर्दू वर्ण | उच्चार | नागरी वर्ण | उर्दू वर्ण | उच्चार | नागरी वर्ण | उर्दू वर्ण | उच्चार | नागरी वर्ण | उर्दू वर्ण | उच्चार | नागरी वर्ण |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| ا | अलीफ | अ | چ | चीम | च | ڑ | ड़े | ड | ط | तोय | त | گ | गाफ़ | ग |
| ب | बे | ब | ح | हे. | ह. | ز | जे | ज | ظ | जोय | ज | ل | लाम | ल |
| پ | पे | प | خ | खे | ख | ژ | ज्हे | ज्ह | ع | ऐन | अ | م | मीम | म |
| ت | ते | त | د | दाल | द | س | सीन | स | غ | गैन | ग | ن | नूंन | न |
| ٹ | टे | ट | ذ | जाल | ज | ش | शीन | श | ف | फे | फ | و | वांवं | व |
| ث | से | स | ڈ | डाल | ड | ص | स्वाद | स | ق | काफ | क | ہ | हे | ह |
| ج | जीम | ज | ر | रे | र | ض | द्वाद | द | ک | काफ | क | ی | या | य |

- कों. वि. सं. मं.

**उर्दू साहित्य:** भारताचेर विंगड विंगड काळखंडांत चलिल्ली मुसलमानी राजांची राजवट ह्या वाठारांत उर्दू भाशा साहित्याचें मुळावण घट करपाक कारण थारली. उर्दू साहित्य सादारणपणान दक्षिणेंतलें उर्दू साहित्य, ब्रिटीश राजवटींतलें उर्दू साहित्य, उत्तरेकडलें उर्दू साहित्य, आनी स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांतलें उर्दू साहित्य अशा चार भागांत वांटू येता.

**दक्षिणेंतलें उर्दू साहित्य:** दक्षिणेंतल्या उर्दू साहित्याचे इतिहासीक नदरेन तीन भाग जातात. १५९२ मेरेनच्या पयल्या काळखंडांत धर्मीक स्वरुपाची काव्यरचणूक जाली. सतराव्या शतमानामेरेनचो दुसरो काळखंड उर्दू साहित्याचें भांगरायुग म्हूण वळखतात. ह्या काळांतल्या साहित्याचेर मराठी भाशेचो प्रभाव आनी ऐहिक जिणेचें खर पडबिंब पडिल्लें जाणवता. १७०७ सावन म्हळ्यार औरंगजेबाच्या मरणासावन उर्दू साहित्यांतलो तिसरो काळखंड सुरू जाता. १७०७ वर्सासावन उर्दू साहित्यांत व्हडलीशी भर पडलीना. मुसलमानी राजवटीच्या अस्ताक लागून साहित्यिकांक राजाश्रय मेळूंक पावलो ना. ताचो परिणाम उर्दू साहित्याचेर जालो.

उर्दू साहित्याची सुरवात महंमद तुघलकाच्या काळासावन सुरू जाता. देवगिरी ही आपली राजधानी करची, अशें महंमद तुघलकाक दिशिल्ल्यान जायत्या सुफींक आनी फकिरांक दौलताबादाक वचचें पडलें. हिंदी बोलभाशेचें मुळावण दक्षिणेंत पडपाक हें एक कारण जालें. तुघलकाच्या आदेशावेल्यान देवगिरींत आयिल्ल्या सुफींमदीं ख्वाजा बंदेनवाज हाचो बापूय राजू होय आसलो. ह्या ख्वाजा बंदेनवाजाक उर्दू आनी हिंदी भासांतलो दक्षिणेंतलो आद्य लेखक म्हूण मानतात. ताणें 'मीराजुल आशिकैन' (भक्तांचीं साधनां) आनी ९ शिकारनामा (कुराणाचेर आदारित) सारके ल्हान- ल्हान गद्यग्रंथ रचले. दक्षिणेंतलो आद्य कवी म्हूण निजामी हाका वळखतात. ताणें कदमराव अउर पद्म (कदमराव आनी पद्मीनी) हें मोगी जीवांचेर आदारिल्लें खंडकाव्य रचलें (१४६०-६२).

कवी कुरेशीन १४८२ ते १५२० काळांत 'भोगबल' हो काम-शास्त्राचेर आदारित ग्रंथ रचलो. अश्रफ बियाबीन (१४५८-१५२९) हाणें 'नौ सरदार' नांवाच्या हातबरपांत 'करबला' हांगाच्या झुजाचें वर्णन केल्लें मेळटा. हिंदीचे पयले अवस्थेंतल्या प्रत्ययाचो वापर ताणें तातूंत केला.

सोळाव्या आनी सतराव्या शतमानांत शाह मिरांजी शम्सुल उश्शाक हाणें सूफी पंथाचो प्रसार करपाचो हेत मनांत बाळगून बरपावळ केली. 'शहादतुत्तहकीक', 'खुशनामा' आनी 'खुशनाज' हे ताचे काव्यग्रंथ जावन आसात. ताचो चलो बुर्हानुद्दीनजानम आनी नातू अमीनुद्दीन आला हे दोगूय सूफी कवी आसले. ह्याच काळांत इब्राहीम आदिलशहा (दुसरो) (१५८०-१६२६) हाणें 'नौरस' हो काव्यग्रंथ रचलो.

सतराव्या शतमानांत जावन गेल्ल्या चार व्हड कवींचीं नांवां आनी साहित्यरचना फुडलेतरेन आसात: मुल्लावजही हाणें 'कुतुबमुश्तरी' (१६०९-खंडकाव्य), 'सबरस' (१६३५-गद्य) ह्यो साहित्यरचना रचल्यो. इतिहासीक काव्याचो जनक हसन शौकी हाणें 'जफरनामए-निजामशाह' (१६२६-विजयग्रंथ), 'मेजबानी-नामा' (१६३३- ग्रंथ) ह्यो रचना रचल्यो. कवी गवासी हाणें 'मैना सतवंती' (खंडकाव्य) 'सैफुल्मुल्क' (१६२६ खंडकाव्य), 'तूतीनामा' (१६३९- अणकार) ह्यो रचना रचल्यो. महाकवी नुसरती हाणें 'गुल्शने इश्क' (१६५८) 'अलीनामा' (१६६५), 'तारीखे- इस्कंदरी' (१६७२) हे तीन ग्रंथ रचले. मुहंमद वलीउल्ला (मरण १७०७) हो दखनी हिंदीचे परंपरेंतलो निमणो कवी आसलो.

**उत्तरेकडलें उर्दू साहित्य:** मोगल साम्राज्याच्या अस्ताचो हो काळ आसलो. नादिरशहाच्यो दिल्लीचेर पडिल्ल्यो घुरयो, झुजां, लुटालुट, हाका लागून परिस्थिती सामकी घाळ जाल्ली. अशा ह्या संकश्टाच्या काळांत लेगीत उर्दू साहित्यान घट मूळ धरलें. सिराजुद्दीन अली खान 'आर्जू' (१६८९-१७५६) हाणें सुर्वेक खऱ्या अर्थान उर्दू काव्याक हातभार लावन ऊंच पांवडो मेळोवन दिलो.

मिर्झा मुहंमद रफी 'सौदा' (१७१३-१७८०) मीर तकी 'मीर' (१७२२-१८१०) आनी 'ख्वाजामीर दर्द' (१७१९-१७८५) हे सुर्वेच्या काळांतले म्हान कवी जावन आसात. सौदा हाणें गझल, कसीदा आनी उपहासिका तर दर्द हाणें 'गझल' रचल्यो. काव्यगुणाचे नदरेन 'मीर' हाची सुवात ऊंच आसा. ताणें व्रज भाशेंतलीं उतरां घेवन आपले शेर सजयल्यात. ह्या तीगूय कवींनी उर्दूक 'साहित्यीक भास' म्हूण मानाची सुवात मेळोवन दिली. त्याचवांगडा फार्सी परंपरा आनी म्हणींचें अनुकरण तशेंच अणकार करून हे भाशेंत ताची भरसण केली.

ह्या उपरांतच्या नामनेच्या कवींत इन्शा (सुमार १७५६-१८१७), 'मुसहफी', 'जुर्अत' आनी 'रंगीन' हांचो आस्पाव जाता. इन्शा आनी रंगीन ह्या कवींनी उर्दू काव्यांत 'लखनौ-संप्रदाय' हो नवो प्रवाह केळयलो. हे शैलींतल्यान काव्य रचपी कवी व्रज भाशेंतलीं उतरां काडून उडोवपांत आनी अरबी, फार्सी उतरां तातूंत भरसपाक मग्न आसले. धर्मीक बलिदानाचेर शोकगीतां रचपी मीर बबीर अली 'अनीस' (१८०२-१८७५) तर दुसरो सलामत अली 'दबीर' (१८०३-१८७४), तत्कालीन परंपरेचें पडबिंब पडिल्लो मीर हसन (?- १७८६) आनी सैमाक म्हत्व दिवपी 'नजीर' अकबराबादी (?- १८३०) हेय ह्या काळखंडांतले म्हत्वाचे कवी जावन आसात.

मिर्जा गालिब (१७८७-१८६९) हाका उर्दू काव्यांत एक नवें पर्व सुरू करपी व्हड प्रतिभासंपन्न कवी म्हूण वळखतात. १३०० शेर आस्पावल्लो ताचो 'उर्दू दीवान' हो एकूच काव्यझेलो आसून ताची लोकप्रियता आयज लेगीत तशीच आसा. ताणें इश्ट-वांगड्यांक बरयिल्ल्या चिटयांचो झेलो 'उर्दू-ए-मुअल्ला' नांवान नामना जोडून आसा. ह्या झेल्याक लागून उर्दू गद्याक एक नवें मोडण मेळ्ळां अशें मानतात. गालिबा उपरांत लखनौ मदल्या उर्दू काव्याक देंवती कळा लागली. दयाशंकर 'नसीम' (१८११-१८४३) दाग (१८३१-१९०५) हे दोगूच गालिबाउपरांत काव्याच्या मळार थोडें भोव येस जोडूंक पावले.

**इंग्लीश काळांतलें उर्दू साहित्य:** उर्दू भाशेंतल्यान नव्या गद्याची बुन्याद कलकत्त्याच्या फोर्ट विल्यम कॉलेजींत पडली. लॉर्ड वेलस्लीन सन १८०० त हे कॉलेजीची थापणूक केल्ली. भारतांत येवपी इंग्लीश अधिकारी आनी सैनिक हांकां भारतीय भास शिकपाक सोंपी जावंची आनी तेवरवीं संस्कृतीक संपर्क सादूंक मेळचो, ही हें कॉलेज थापणूक करपाफाटली मुखेल मोख आसली. हे कॉलेजीचो मुखेली डॉ. गिलक्रिस्ट (१७५९-१८४१) हाणें उर्दूंत जायते ग्रंथ रचले. तातूंत 'अंग्रेजी हिंदूस्थानी लुगत' (१७९८) हो दोन भागांतलो शब्दकोश आनी 'हिंदूस्थानी ग्रामर' (१७९६) हे म्हत्वाचे आसात. गिलक्रिस्ट हाच्या फाटबळाक लागून जायते उर्दू साहित्यीक मुखार आयले. ताणें जायत्या फार्सी ग्रंथांचो उर्दूंत अणकार करून घेतलो. तातूंत मीर अम्मन हाचें खंडकाव्य 'बागोबहार' (१८०२) आनी शेर अली अफसोस हाचो इतिहासग्रंथ 'आराइशे महफिल' (१८०५) हे म्हत्वाचे आसात.

सर सय्यद अहमद (१८१७-१८९१) हाका ह्या काळांत 'आसारुस्-सनादीद' (१८४७) ह्या ग्रंथाक लागून व्हड कीर्त मेळ्ळी. तातूंत दिल्लींतल्या पोरन्या आनी इतिहासीक म्हत्वाच्या वास्तूंचें विंगडविंगड तरांनी अप्रूप चित्रण केलां. सन १८६४ त ह्या ग्रंथाचो फ्रेंच भाशेंत अणकार जालो. ताच्या आर्विल्ल्या विचारसरणीचे प्रेरणेक लागून जायत्या साहित्यिकांनी सोप्या आनी साद्या उर्दूंत ग्रंथ रचून समाजाभितर जागृताय निर्मुपाचो यत्न केलो. अकबर हुसेन अकबर (१८४६-१९२१) हो कवी पुराणमतवादी आसलो. ताचें बरप विनोदी, तीख तशेंच

उपरोधान भरिल्लें आसलें. त्या काळांतलो तो एक नामनेचो कवी आसलो.

मुहंमद हुसेन आझाद (१८३०-१९१०) हाका इतिहासकार आनी टिकाकार म्हूण वळखतात. ताचो 'आबे हयात' (१८९१) हो ग्रंथ अभिजात मानतात. अल्ताफ हुसेन हाली (१८३७-१९१४) हो कवी आनी गद्यलेखक आसलो. तो खऱ्या अर्थान वास्तववादी आनी समाजसुधारक कवी आसलो. ताणें तत्कालीन बायलांच्या दुख्खाचेर आपल्या दोन काव्यग्रंथांवरवीं उजवाड घालो. उर्दूंतलो आद्य टिकाकार म्हूणय ताका वळखतात. 'मुकद्दमए-शेर ओ शायरी' आनी 'हयाते जावेद' हे ताचे दोन ग्रंथ उर्दू गद्यांतले म्हत्वाचे पांवडे म्हूण मानतात.

नजीर अहमद हाणें (१८३६-१९१२) खास करून कथा, कादंबरी आनी चुटके रचले. ताचें चडशें बरप, बोध दिवपी आसा. 'इब्नुलवक' 'मीरातुलउरूस' 'तौबतुन्नुसूह' हे ताचे गाजिल्ले ग्रंथ आसात. शिब्ली नोमानी (१८५७-१९१४) हाणें इंग्लीश गद्याचे धर्तेचेर उर्दू गद्याची उदरगत सादली. ताणें इस्लामाचो इतिहास, तत्त्वगिन्यान व्हड व्यक्तींचीं चरित्रां हांचेर खास बरप केलां. सीरतुन्नबी (मुहंमद पैगंबराचें चरित्र) ताणें स खंडांत रचला. ह्या सगळ्या साहित्यिकांचेर सर सय्यद हाचो प्रभाव पडला.

पंडित रतननाथ सरशार (१८४६-१९०३) हाणें उर्दू कादंबरी लेखनाची बुन्याद घाली. ताच्या लेखनाचेर लखनौच्या तत्कालीन समाजजीणेची सया पडिल्ली दिसता. अब्दुल हलीम 'शरर' (१८६०-१९२६) हाणें इस्लाम धर्मांतल्यो व्यक्ती आनी घडणुकांचेर कादंबरी रचल्यो.

मिर्झा मुहंमद 'रुसवा' ह्या कादंबरीकाराची 'उमरावजान अदा' (१८९९) ही कादंबरी कांय टिकाकार उर्दूंतली सगळ्यांत बरी कादंबरी म्हूण मानतात.

प्रेमचंदाक नव्या विचाराच्या आर्विल्ल्या साहित्याचो युगप्रवर्तक लेखक म्हूण वळखतात. ताच्या साहित्यांत गांवगिरे जीणेचें वास्तवपूर्ण चित्रण नदरेंत भरता. 'गोदान', 'चौगाने हस्ती', 'बाजारे हुस्न' (कादंबरी), 'प्रेम पच्चिसी', 'प्रेम बत्तिसी' (कथांझेलो) ह्यो ताच्यो गाजिल्ल्यो साहित्यकृती जावन आसात.

सर मुहंमद इक्बाल (१८७३-१९३८) हो कवी म्हूण, खास करून 'सारे जहाँसे अच्छा हिंदोस्ता हमारा' हे कवितेक लागून खूब गाजलो. पंडित ब्रिजनारायण 'चकबस्त' (१८८२-१९२६), 'जोश' मलीहाबादी (१८९८-?), हसरत मोहानी (१८७५-१९५१), 'जिगर' मुरादाबादी हे काव्याच्या मळार गाजल्यात.

'तरक्की पसंद' (पुरोगामी) नांवाची एक साहित्यीक चळवळ १९३५ त वयर सरली. किशनचंदर (कृश्णचंद्र), असरारुल हक 'मजाज', जान निसार 'अख्तर', फैज अहमद 'फैज', उपेंद्रनाथ अश्क, 'जजबी' सादत हसन मंटो, सज्जाद 'जहीर', ख्वाजा अहमद अब्बास, राजेंदर सिंग बेदी हे चळवळींतले कांय नामनेचे साहित्यीक जावन आसात. १९४१-४२ च्या सुमाराक हे परंपरेंतल्या साहित्यिकांनी अश्लील आनी सनसनाटी कथा रचून युरोपियनांचें अनुकरण केलें.

१९४७ त भारताचे सुटके उपरांत ज्यो जातीय दंगली वा वायट घडणुको घडल्यो, ताचें पडबिंब त्या काळांतल्या साहित्याचेर पडिल्लें आसा.

**स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांतलें उर्दू साहित्य:** नवी विचारप्रणाली आनी नवो आशय हाचो सांगात घेवन उर्दू साहित्य ह्या काळामजगतीं व्हड उंचायेर पाविल्लें दिसता. काव्य, कथा-कादंबरी, नाटक, एकांकिका, विनोद, साहित्यसमीक्षा आनी वैचारिक लेखन खास करून ह्या काळांत मुखार आयलें.

उर्दू काव्याचेर नवे नवे प्रयोग, मुक्तछंदाचो आनी प्रतिमांचो वापर, प्रतीकवाद, मृषावाद (ॲब्सर्डिझम) आनी हेरांचो प्रभाव पडला. भारतांतल्या उर्दू नवकवींभितर बाकर मेहदी हाचे 'शहरे आरजू' आनी 'काले कागज की नज्में' हे कवितांझेले उल्लेखनीय आसात. बलराज कोमल हाचो 'मेरी नज्में' आनी 'दिल का रिश्ता' तशेंच नागरी लिपयेंतलो 'नारियल के पेड' हे संग्रह गाजल्यात. 'राही' मासूम रजा हाचे 'रक्से-मय', 'अठरासो सत्तावन' आनी 'अजनबी शहर अजनबी रास्ते' हे काव्यझेले गाजल्यात. शाज तमकनत हाणें थोड्या काळांत मोटें नांव मेळयलां. पाकिस्तानी नवकवींत वजीर आगा (शाम और साये), अहमद फराज (दर्दे-आशोब), जहूर नजर (रेजा-रेजा), 'साकी' फारूकी (प्यास का सहरा), मुनीर नयाजी (जंगलमें धनुक) हाचो वांटो म्हत्वाचो आसा.

कुर्रतुलएन हैदर हाच्या कथा-कादंबरीचेर अस्तंतेचें साहित्य आनी भारतीय कला-संस्कृतायेची सया पडिल्ली दिसता. 'सितारोंसे आगे', 'शीशे का घर', 'पतझड की आवाज' (कथांझेले) 'सफीनए-गमे-दिल', 'आग का दर्या' (कादंबरी) नामना जोडून आसा. कथाकार म्हूण जोगेंद्रपाल हाची सुवात ऊंच आसा. 'धरती का काल' हो कथांझेलो आनी 'एक बूँद लहू की' आनी 'कछुआ' ह्यो ताच्यो कादंबऱ्यो परिणामकारकतेच्या नदरेंतल्यान म्हत्वाच्यो आसात. काजी अब्दुससत्तार हाणें आपल्या कथा-कादंबरींतल्यान गांवगिरे जिणेचें दर्शन घडयलां. पाकिस्तानांत हाजिरा मसरूर आनी खदीजा मस्तूर ह्या दोन भयणींचें साहित्य खूब गाजलां. तांणी कथा, कादंबरी आनी नाटकां रचल्यांत. कासिम महमूद हाचो 'कासिम की मेंहदी', सादिक हुसेन हाचो 'फुलों का महल', अब्दुल्लाह हुसेन हाचो 'उदास नस्ले', काजी अब्दुल सतार हाचो 'दाराशिकोह' जीलानी बानोचो 'ऐवाने गजल' हे कथांझेले उल्लेखनीय आसात.

उर्दू नाटककारांमदीं मुहंमद हसन, असगर बट, जावेद इक्बाल, कासिम बेग, अनवर इनायत् उल्लाह, रेवतीशरणशर्मा हे म्हत्वाचे आसात. विनोदी गद्य रचप्यांमदीं ए. एस. बुखारी, 'पतरस' सज्जाद हैदर, काकोरवी फुकरत, मुश्ताक युसूफी, अहमद जमाल पाशा, शौकत थानवी, भारतचंद खन्ना तर विनोदी पद्य रचप्यांमदीं जमीर जाफरी, मुहंमद जाफरी, राजानक्की, वाही, दिलावर फिगार हे लेखक म्हत्वाचे आसात.

अस्तंतेच्या विचारांक लागून उर्दू साहित्य-समीक्षा प्रभावित जाल्या. डॉ. खलीलुर्रहमान, बाकर मेहदी, उसलूब अहमद अन्सारी श्रीराम शर्मा, काजी अब्दुल गफ्फार, हसन असकरी, कदीरजमाँ, आलम खुंदमीरी हांणी समीक्षेच्या मळार म्हत्वाचो वावर केला. डॉ. करम रईस, डॉ. खलीम अंजुम आनी डॉ. गोपीचंद नारंग हांचे संशोधनपूर्ण ग्रंथ म्हत्वाचे अशें मानतात. पाकिस्तानी समीक्षकांमदीं डॉ. वजीर आगा हाचो वावर म्हत्वाचो आसा. जमील जालबी, मुजफ्फर अली सय्यद हांणीय उल्लेख करपासारकी समीक्षापर बरपावळ केल्या.

**पुरस्कार:** भारतांतलो साहित्याखातीर आशिल्लो सगळ्यांत व्हडलो पुरस्कार १९६९ वर्सा फिराख गोरखपुरी (जल्म: १८९६) हाच्या 'गुल-ए-नग्मा' ह्या काव्यझेल्याक फावो जालो. साहित्य अकादेमीचे वर्सुकी पुरस्कार जोडपी हेर साहित्यीक अशे.

१९५५: जाफर हुसेन खान, १९५६: एस्. आबिद हुसेन, १९५७: के. ए. फरूखी, १९५८: जिगर मोरादाबादी (अली सिकंदर), १९५९: सय्यद मसूद हसन रिजवी, १९६०: फिराख गोरखपूरी (रघूपति सहाय), १९६१: इम्तीयाज अली 'अर्शी', १९६२: अख्तर उल इमाम, १९६३: के. जी. साईदेन, १९६४: आनंद नारायण मुल्ला, १९६५: राजिन्दर सिंग बेदी, १९६७: कुर्रतुलेन हैदर, १९६९: मखदूम मोहियोद्दीन, १९७०: आयातुल्ला अन्सारी, १९७१: रशिद अहमद सिद्दिकी, १९७४: अली अहमद सुरूर, १९७५: कैफी आजमी, १९७६: जाँ निसार अख्तर, १९७८: युसूफ हुसेन खान, १९७९: गुलाम रब्बानी ताबाँ, १९८०: ए. ए. अन्सारी, १९८२: ग्यान चंद जैन, १९८३: मलीक राम, १९८४: मसूद हुसेन खान, १९८५: बलराज कोमल, १९८६: शमसूर रहमान फरूखी, १९८७: शहरयार, १९८८: शेख मोहम्मद अब्दूला (मरणाउपरांत),

१९८९: सुरेंदर प्रकाश. १९६६, १९६८, १९७२, १९७३, १९७७ आनी १९८१ वर्सा हो पुरस्कार कोणाकूच दिलो ना.

- कों. वि. सं. मं.

**उर्वशी:** इंद्रदरबारांतली शिरवंत अप्सरा. उर्वशीचे उल्लेख शतपथ ब्राह्मणांत, ऋग्वेदांत (४.२.१८; ५.४१.१९; ७.३३.११.; १०.९५.१०;), श्रीमद्‌भागवतांत (११/४), विष्णुपुराण आनी पद्मपुराण (अंवतीखंड-दुसरो अध्याय) हातूंत मेळटात. ऋग्वेदांत (१०.९५) पुरूरवा आनी उर्वशीच्या संवादाचें एक सूक्त मेळटा. पुरूरवा आनी उर्वशीची कथा संवसारांतली सगळ्यांत पोरनी मोगाकथा जावन आसा.

उर्वशी ही नारायणाचे ऊरू सावन म्हळ्यार मांडयेतल्यान आयली म्हूण तिका 'उर्वशी' अशें म्हणपाक लागले.

उर्वशीसंबंदान पुराणांत अश्यो कांय कथा आसात:

उर्वशी पुरूरव्याच्या मोगांत पडली. पूण लग्न जावंचेपयलीं तिणें पुरूरव्याक दोन अटी घाल्यो- १. आपणाक स्वताक इत्सा जालेबगर ताणें तिका भोगची न्हय आनी २. नग्न आसतना ताणें तिचे नदरेक पडचें न्हय. ह्यो अटी पुरूरव्यान मानून घेतल्यो, आनी तो उर्वशी सांगातान दीस सारपाक लागलो. फुडें तांकां एक पूत जालो. हेवटेन देवलोकांत गंधर्वांक उर्वशी नाशिल्ल्यान इंद्रलोकाची सोबा गेल्लेवरी दिसपाक लागलें. तेखातीर कांय काळा उपरांत गंधर्वांनी तिका देवलोकांत व्हरपाक एक कारस्थान रचलें. तांणी तिच्या पलंगाक एक मेंढरो आनी दोन बोकडे पिलां बांदून दवरलीं. त्या बोकडे पिलांचेर उर्वशी मोग करपाक लागली. एके राती गंधर्वांनी तीं बोकडे पिलां चोरुन व्हेलीं, तेन्ना तिणें रडत-रडत सगळ्यांक तीं बोकडे पिलां सोडोवन हाडपाचें आवाहन केले. पुरूरवा तेन्ना नग्न अवस्थेंत आसलो. ताणें उर्वशीचें आव्हान स्वीकारलें. इतलेंच न्हय तर स्वताचे नग्न अवस्थेचें भान दवरीनासतना त्या पिलांक सोडोवपाक धांवलो. त्याच वेळार गंधर्वांनी संद सादून विजेचो उजवाड घालो. ह्या उजवाडांत उर्वशीक पुरूरवा नग्न अवस्थेंत दिसलो. तेखातीर ती पुरूरव्याक सोडून देवलोकांत गेली. फुडें दुखा आनी खंतीच्या जंजाळांत कुरुक्षेत्रार भोंवता आसतना उर्वशी ताका एके तळ्याचे देगेर मेळ्ळी. ताणें खूब फावट तिची समजावणी केल्या उपरांत, आनीक एक रात ती ताच्या म्हन्यांत रावली. त्या समागमांतल्यान पुरूरव्याक आनीक एक पूत जालो. उपरांत गंधर्वांनी पुरूरव्याक वर मागपाक सांगलो. त्यावेळार ताणें गंधर्व जावपाची इत्सा दाखयली. तेन्ना गंधर्वांनी ताका यज्ञ कर म्हूण सुचोवणी केली आनी मार्गदर्शनय केलें. त्या यज्ञा उपरांत पुरूरवा गंधर्व जालो.

महाभारतांत उर्वशी अर्जुनाच्या रुपा-गुणांक भुल्ली, ताचे उल्लेख आयल्यात. जेन्ना उर्वशीन अर्जुना वांगडा रावपाची इत्सा परगटायली, तेन्ना अर्जुनान तिका न्हयकार दिलो, त्यावेळार संतापून तिणें अर्जुनाक 'तूं एक वर्सभर षंढ जातलो' असो श्राप दिल्लो.

उर्वशीचे सोबीतकायेक मित्रवरुण भुल्ले आनी तांचे रेतस्खलन जाल्याचीं वर्णनां पुराणांत येता. त्या रेतासावन अगस्त्य आनी वसिश्ठ ऋषी जल्मल्ले.

उर्वशीक मार्गशीर्ष म्हयन्याची अधिष्ठात्री (अप्सरा) म्हण्टात. हेमंत ऋतूंत ती सूर्यरथाचेर आसता. तिका ब्रह्मवादिनीय म्हळ्या. नृत्या सारक्या कलांत ती निपुण आसा.

कालिदासाचें 'विक्रमोर्वशीय' हें नाटक पुरूरवा-उर्वशीचेर रचलां. हें नाटक संस्कृत साहित्यांत अग्रेवर जालां.

- कों. वि. सं. मं.

**उसपकार, भिवा रामचंद्र:** (जल्म: १९१९, मयें- दिवचल).

गोंयचो सुटके झुजारी. सुटके चळवळीच्या काळांत तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पोर्तुगेजांआड हत्यारबंद वावरांत तो वांटो घेतालो. मयें, मुळगांव, शिरगांव आनी पोंबुर्पे ह्या वाठारांत जे स्फोट घडोवन हाडिल्ले, तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९५५ वर्सा पोलिसांनी ताका धरलो. फुडें गोंयच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत चवकशे उपरांत ताका चवदा वर्सां बंदखणीची खर ख्यास्त फर्मायली. १९ डिसेंबर १९६१ दिसा ताची सुटका जाली. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**ऊंस:** (मराठी-ऊस; हिंदी-गन्ना, ऊख; गुजराती- शेरडी; कन्नड- कब्बू; तेलगू-चेरकू; तमिळ-करंबू; संस्कृत-इक्षू, गुडतृण; इंग्लीश- शुगरकेन; लॅटीन-सॅकॅरम ऑफिसिनॅरम. कूळ-ग्रॅमिनी). हे वनस्पतीचो आस्पाव सॅकरम ह्या वंशांत जाता. ह्या वंशांत आरुंडीनासीयम (arundinaceum), स्पोन्टेनीयम (Spontaneum), बेन्गालिन्स (bengalnese), सायनेन्स (sinense), रोबुस्टम (robustum) अशे वेगवेगळे प्रकार दिश्टी पडटात. कांडाचो कोर, आकार, लागवडीची तरा, साकरेचें प्रमाण हांचेर हे प्रकार थारायल्ले आसतात. वेवसायीक नदरेन पळेल्यार 'सॅकॅरम ऑफिसिनॅरम' ही ऊंसाची जात चड वापरांत आसा. जायतीं वर्सां उरपी हो ऊंस लांब कांडाचो आसता. हे जातींत चड प्रमाणांत साकर आनी कमी प्रमाणांत धागे (fibres) आसतात. ताचीं पानां अशीर, लांबशीं आनी जोंधळ्याच्या पानांवरी आसतात. पाळां धवसार, बारीक आनी सुताभशेन (fibrous) आसतात. ऊंसाक तेंगशेर लांब, धवो वा रुपेरी मोराच्या पांखावरी तुरो तयार जाता. ऊंसाच्या शेताक उंशेल म्हण्टात.

**उगमाचो इतिहास:** ऊंस हे वनस्पतीचो उगम न्यू गिनी हांगा जालो अशें म्हण्टात. उपरांत ती पॅसिफीक राज्यांनी वचून थंयच्यान बोर्नीओ, सुमात्रा, ब्रह्मदेश ह्या राज्यांतल्यान भारतांत आयली.

**पिकावळीचो वाठार:** जगांत चीन, ताइवान, जावा, फिलिपीन्स जुंवे, हवाई जुंवे, मेक्सिको, मध्य अमेरीका, ब्राझील, दक्षिण आफ्रिका, मॉरिशस, गियाना, ईजिप्त, क्विन्सलँड, ऑस्ट्रेलिया, पाकिस्तान. कॅनडा आदी जायत्या देशांत ऊंसाची लागवड जाता. भारतांत उत्तर प्रदेश, तमिळनाडू, महाराष्ट्र, गुजरात, आंध्र प्रदेश, बिहार, ओरिसा, मध्य प्रदेश, आसाम, पाँडीचेरी, केरळ आदी राज्यांनी ऊंसाची लागवड व्हड प्रमाणांत जाता.

भारतांत वट्ट २८.६२ लाख हॅक्टर सुवातीर ऊंसाची लागवड जाता (१९८६). ताचे पसून सुमार १७.१६८ कोटी टन ऊंस तयार जाता. गोंयांत सुमार १७०० हॅक्टर जमनींत ऊंसाची लागवड जाता. गोंयांत सांगें, केपें, सत्तरी, फोंडें, काणकोण, पेडणें, दिवचल आनी हेर वाठारांनी ऊंसाचें पीक काडटात. गोंयांत १९८८ वर्सा वट्ट ८६,००० टन ऊंसाची लागवड जाली.

**प्रकार आनी जाती:** भारतांत वेगवेगळ्या राज्यांनी ५० ऊंस संशोधन आनी चांचणी केंद्रां आसात. तमिळनाडू राज्यांत जें ऊंस पैदास केंद्र आसा, थंयच्यान दर वर्सा तरेतरेच्यो चड उत्पन्न दिवपी जाती प्रजनन (breeding) करून तयार करतात. कोइंबतूरच्या केंद्रांत जाल्ले हे जातीक 'को' असो नंबर दितात आनी हवामान, माती हांचो विचार करून वेगवेगळ्या राज्यांनी धाडटात. गोंयांत चडशे शेतकार 'को ७४०' ही ऊंसाची जात रोयतात. हाचेभायर ते हेर जातीय लायतात. व्हडल्या गोंयां आशिल्ल्या 'भारतीय शेती संशोधन केंद्र' हे संस्थेन ऊंसाची 'को ७५२७' ही जात चड उत्पन्न दिवपी (१३० टन/हॅक्टर) म्हूण थारायल्या.

**रोवप आनी वाडोवप:** ऊंसाच्या पिकाक उश्ण आनी ओलसाणीचें हवामान लागता. बरे कसाचे, उदकाची जिरवण जावपी आनी भुसभुशीत जमनींत ऊंसाची लागवड बरी जाता. ऊंसाची लागवड करचे पयलीं, जमीन नांगरुन उपरांत १०-१५ दीस तापोवन, भुसभुशीत करून दवरतात. उपरांत जमनीक थंडसाण दिवपाक चर मारून शेणखत दितात. बरे प्रतीचो ऊंस घेवन ताचे तीन कोंब आशिल्ले कांडाचे कुडके (बेणे) घेवन ऊंसाची लागवड करतात. बेणे लावचे पयलीं ६०% पारायुक्त 'आरेटान' वा 'आगेलॉल' ह्या वखदाच्या उदकांत २ वरां बुडोवन मागीर ते रोयतात. ऊंसाच्या मुळाकडलो वा वयलो भाग घेना आसतना मदल्या भागाचेच (तीन कोंब आशिल्ले) बेणे घेवन, ते दोन

पध्दतींनी लायतातः ओली पद्दत आनी सुकी पद्दत. ओले पद्दतींत चरांनी उदक घालून, ते भिजोवन तातूंत ५ सेंमी. खोलायेंत बेणे रोयतात. सुके पद्दतींत २.५ ते ५ सेंमी. खोलायेंत बेणे रोवन मागीर चरांनी उदक सोडटात. ऊंसाक हेक्टरी २५० किग्रॅ. नग, १२५ किग्रॅ. स्फुरद आनी १५० किग्रॅ. पालाश अशें वेगवेगळ्या काळांत, वेगवेगळ्या प्रमाणांत सारें दितात. ऊंसाक खूब प्रमाणांत उदक दिवचें पडटा. गोंयांत पावस चार म्हयने आशिल्ल्यान उदकाची गरज ऑक्टोबर ते मे म्हयन्यांमेरेन लागता आनी सुमार २० ते २५ फावट उदक दिवचें पडटा. गोंयांत पावसाचें प्रमाण चड आशिल्ल्यान 'पूर्व हंगामी' (१५ ऑक्टोबर ते १५ नोव्हेंबर) आनी 'सुरु हंगामी' (१५ डिसेंबर ते १५ जानेवारी) अशा दोन हंगामांनी पीक काडटात.



ऊंस

ऊंसाची आंतर-मशागत करप खूब गरजेचें आसता. नडणेखातीर ५०० लिटर उदकांत ३.५ ते ४ किग्रॅ. 'एट्राझीन' हें नडणेचें वखद घोळोवन मारतात. ऊंसाचें पीक ल्हव-ल्हव वाडटा; देखून, सुर्वेचे ३-४ म्हयने तातूंत मूग, मिरसांग, मुळो, कांदो हांचें आंतरपीक घेवं येता.

ऊंस हळडुवो जावन घट जाता. तेचपरी ताची वाड थांबता आनी कांडा-वेले दोळे फुगतात, तेन्ना ऊंस तोडपाक तयार जाता. उपरांत हायड्रोमीटरावरवीं वा हॅंड रिफ्रेक्टोमीटरा-वरवीं ऊंसाचो रोस तपासून, रोसांत विद्राव्य घन पदार्थाचें थारावीक प्रमाण जातकच तो ऊंस तयार जाला, अशें समजतात. ऊंसाचें पीक तीन वर्सां मेरेन उत्पन्न दिता. मुखेल पीक आनी त्याच पिकाचें दोनदां 'खोडवो पीक' घेतात.

**खोडवो ऊंसः** ऊंसाची कापणी करतकच जमनींत ताचें मूळ आनी कांड उरता. फुडें ताका नवे कोंब फुटून नवो ऊंस किल्लून येता. हाका खोडवो म्हण्टात. हें खोडवो पीक दोन ते तीन वर्सांमेरेन घेवं येता. खोडवो पिकाक आंतर मशागत, साऱ्याची तशेंच उदकाची पुरवण आनी नडणी करून चड उत्पन्न काडूं येता.

**उत्पन्न/पीकः** बरेभशेन लागवड आनी मशागत केल्ल्या ऊंसापसून हेक्टरी सुमार १३०-१३५ टन ऊंस पिकता. खोडवो पिकापसून दोन ते तीन वर्सां हेक्टरी १००-११० टन ऊंस पिकोवं येता. गोंयांत ऊंसाचें उत्पन्न कमी प्रमाणांत म्हळ्यार हेक्टरी ५० टन मेळटा.

**उपेगः** ऊंसाचो तरेकवार उपेग करतात. भारतांत तयार जावपी वट्ट ऊंसाच्या ८०-९० टक्के ऊंस साकर, खडीसाकर आनी गोड हे तीन मुखेल पदार्थ करपाखातीर वापरतात. १० ते २० टक्के ऊंस हेर कामांखातीर वापरतात. ऊंसाचो रोस एक थंडाय दिवपी पेय म्हूण घेतात. ऊंसाच्या रोसांत 'सुक्रोस' हो पदार्थ आशिल्ल्यान ताचो वापर तरेतरेचीं वखदां, जीवनसत्त्वां आनी ताचे गोडसाणीक लागून बेकरेंत तयार जावपी पदार्थांनी वापरतात. ऊंसापसून बऱ्या प्रकारचें गोड तयार करतात. ऊंसाचो मुखेल उपेग साकर तयार करपाक करतात. भारतांत सुमार २७६ साकर कारखाने आसात. १० टन ऊंसापसून सुमार १ टन साकर, कारखान्यांत तयार जाता. भारतांत सद्या वर्सुकी ८.२० लाख टन साकर तयार जाता. ऊंसापसून मेळपी मॉलेसस, बागेस (bagasse) आनी प्रेस मड पसून तरेतरेच्यो वस्तू तयार करतात. ऊंसापसून गुलकंद (Vacum Pan Sugar) 'आयसींग शुगर' हेय पदार्थ तयार करतात. ऊंसाच्या कांडापसून कारखान्यांत रोस काडून जो सुको पिठो (bagasse) मेळटा, ताचो वापर वेगवेगळ्या कारखान्यानी बॉयलराचें इंधन म्हूण वापरतात. तेचपरी ताचेपसून 'ॲक्टीव्हेटेड कार्बन' तयार जाता. तो बायोगॅस तयार करपाकूय वापरतात. भारतांत ताचेपसून कागद तयार करतात. मोलेसिसचो उपेग जनावरांची खावड, हुक्का, तंबाखू, रम (सोरो) ह्या सारके पदार्थ तयार करपाक जाता.

**ऊंसाचो घरावो वापरः** निखटो ऊंस दातांनी चाबून तिचो रोस पितात. गोंयच्या खुबशा जात्रा-फेस्तांनी ह्या घरगुती वापराखातीर ऊंशीकांड्यांभरे विकूंक आयिल्ले दिश्टी पडटात. तेचपरी ऊंशीकांडे घाण्यांत पिळून ताचो रोस काडून विकपाचो धंदो बऱ्याच शारांनी चलता. कडले दिवाळेक म्हळ्यार तुळशीच्या लग्नाक चिंच, आंवाळो हांचे ताळयेवांगडा ऊंसाची शिवडी तुळशी पेडांत लायतात. ऊंसाचो रोस कामीण ह्या रोगाचेर बऱ्याक पडटा. तशेंच ऊंस खाल्ल्यार दातांक चकाकी आनी घटाय मेळटा, अशें म्हण्टात. कांय कडेन ऊंशीकांड्यांचो घरांक वा वाहनांक तोरण लावपाखातीर उपेग करतात. कांय जाग्यांचेर कमी खर्चाचें अशें ऊंशीकांड्यांच्या पाल्याचें घराखातीर पाखें केल्लें दिश्टी पडटा.

ऊंसाक तरेकवार रोगांची आनी किडींची बादा जाता.

**१. गवती वाडः** हो व्हायरस रोग जातकच ऊंसाक कांड येनाआसतना ते सुवातेर गंजनाचे पातयेभशेन पानांचें झोंप येता. ताका आळाबंदा हाडपाक लागवड करता आसतना बरे प्रतीची जात लायतात आनी बेण्याक हून उदकाची प्रक्रिया करतात. गोंयांत ऊंसाक पिडपी हो मुखेल रोग जावन आसा.

**२. काणीः** ह्या रोगाक लागून ऊंसाची वाड जायना आनी तेंगशेकडल्यान एक काळी वादी भायर सरता. ह्या रोगाचेर 'गवती वाड' रोगाक सांगला तोच उपाय करतात.

**३. ऊंस तांबडो पडपः** 'ऊंसाक कोलो पादला' अशी एक म्हण आसा, ती ह्या रोगासंबंदी. ह्या रोगाक लागून ऊंस सुकता, कांडाभितर तांबडे दाग पडटात आनी ताका आल्कोलाचो वास येता. हाचेर उपाय म्हूण बियाणाक पारायुक्त वखद लायतात.

**४. ऊंस मरपाक लागपः** जमनींत आशिल्ल्या चित्याखातीर ऊंसाच्या पेराकडेन मातये कोराचे दाग दिसतात आनी ऊंस मरपाक लागता. ह्या रोगाक आळाबंदा हाडपाक 'ॲगेलोल' ह्या पारायुक्त वखदांत बेणे बुडोवन ताची लागवड करतात.

**५. किडीः** १. *खोडकिडेः* हे चार तरांचे खोडकिडे, ऊंसाची तेंगशी आनी कांड पोखरतात. ह्यो किडी पयस करपाक 'थायमेट' वा 'फुराडोन' सारक्या गुळयांचो वापर करतात. २. *खवळां कीडः* ही कीड ऊंसाच्या पेरार आनी कोंबार दाट खवळाभशेन पातळटा आनी ऊंसातलो रोस चोखून उडयता. हाकालागून ऊंसातलें साकरेचें प्रमाण देंवता आनी ऊंस सुकपाक लागता. हे किडीक आळाबंदा हाडूंक खोडकिडीक सांगला तोच उपाय करतात वा ऊंसाचे बेणे 'डमिथोयेट' ह्या वखदांत बुडोवन मागीर लायतात. ३. *वायटीः* ही वायटी बेणो किल्लून येवचेपयलीं खाता वा ऊंस वाडपाक येतकच कांडाचेर लागता. हाचेर उपाय म्हूण जमनींत 'एन्ड्रीन' वा 'बि.ए.सी.' १०% हें वखद हेक्टरी २० ते २५ किग्रॅ. घालतात.

कोईमतूर- तमिळनाडू हांगा 'टिश्यू कल्चर' पद्दतीन ऊंसाची उत्पत्ती करपाचे प्रयोग चलतात. हे पद्दतीन ऊंसाचे रोप भराभर तयार करप शक्य जाता. तेचपरी रोग आनी किडींपसून तांकां त्रास जायना.

गोंयांत ऊंसाचो एक कारखानो आसा आनी ताची वर्सुकी ऊंस गाळपाची मागणी १५० हजार टन इतली आसा. पूण गोंयांत फकत ८० ते ८५ हजार टन ऊंस पिकता. कारखान्याची गरज भागोवंक गोंयचो ऊंस कमी पडटा. देखून, सुमार १००-११० हजार टन ऊंस महाराष्ट्र आनी कर्नाटक राज्यांतल्यान हाडचो पडटा.

- एच्. आर. प्रभुदेसाय

**ऊः** देवनागरी वर्णमालेंतलो सवो स्वरवर्ण. हाचो उच्चार ओंठांतल्यान जाता. हाचो प्लुत उच्चार लेगीत जाता. उदात्त-अनुदात्त-स्वरित अशे हाचे तीन भेद जातात. ऱ्हस्व 'उ'क एक फांटो लायतकच 'ऊ' हें अक्षर जाता. मातृकान्यासांत हाची सुवात दाव्या कानार येता. कामधेनुतंत्रांत हाचें वर्णन अशें केलां:

शङ्खकुन्दसमाकारं ऊङ्कारं परमकुण्डली।
पञ्चप्राणमयं वर्णं पञ्चदेवमयं सदा।।

अर्थः ऊकार हो परमकुण्डली आकृतीचो आसून शंख आनी कुन्द हांच्यासारको आसता. तो पंचप्राणमय वर्णाचो आसून पंचदेवमय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**ऊटकमंडः** ऊटी. तमिळनाडू राज्यांतल्या निलगिरी जिल्ह्याचें मुखेल ठाणें. शितळ हवेखातीर ह्या वाठाराची खूब नामना आसा. अस्तंत घाटाच्या दोडाबेट्ट फांट्यांनी तयार केल्ल्या पठाराचेर, समुद्रथरासावन २,२८७ मी. उंचायेचेर हें शार वसलां. भोंवतणी आशिल्ल्या दोंगरावेल्यान उटी शारांत उदकाचे व्हाळ व्हांवत येतात, ताकालागून ह्या वाठाराक उदधिमंडल- उदकमंडल- ऊटकमंड अशें नांव पडलें. हांगाचें तपमान चडांत चड २० ° से. आनी उण्यात उणें ९ ° से. आसता. तशेंच हांगाचो वर्सुकी पावस ६०-७० सेंमी. आसता.

हें शार म्हैसूरसावन दक्षिणेक १६१ किमी. अंतराचेर आनी कोईमतूरसावन ८८ किमी. अंतराचेर वायव्येक रस्त्यान जोडलां. दक्षिण रेल्वेच्या मेट्टुपलायम स्थानकासावन ऊटी मेरेन रेल्वे येरादारी आसा.

१८१२ वर्सा दाट रानांच्या दोंगुल्ल्यांनी व्यापिल्ल्या ह्या पठाराचो सोद ब्रिटीश भूमापकांनी लायलो. ह्या शाराचो दक्षिणेकडलो भाग इंग्लंडांतल्या ससेक्स परगणांतल्या डाऊन्साभशेन आशिल्ल्यान ब्रिटिशांनी ह्या थळाक 'दक्षिणेची राणी' म्हळ्ळें. हांगा आशिल्लें तीन किमी. लांबायेचें तळें १८२३-१८२५ ह्या काळांत बांदलां.

ऊटी शारांत सेंट टॉमस आनी सेंट स्टीफन चर्च, राजभवन, गोल्फ आनी टेनिस खेळामळां, रेसकोर्स, वनस्पतिउद्यान, उदकावेली भोंवडी आनी हेर जायत्यो सुविधा आसात. १८५८ वर्सा स्थापन जाल्लें लव्हडेलचें विद्यालय आनी १९५५ वर्सा स्थापन जाल्लें महाविद्यालय हांगा आसा. ह्या वाठारांत आशिल्ल्या कुन्नूर, केटी, कोटागिरी, आनी वेलिंग्टन ह्या शारांची थंड हवेखातीर नामना आसा. हांगाच्या निलगिरी वाठारांत आशिल्ल्या सिंकोना आनी निलगिरी झाडांखातीर ऊटी हें उद्येगकेंद्र जालां. निलगिरी तोडा जमातीची रावपाची सुवात अशें मानवशास्त्र म्हण्टात आनी तेय नदरेन ऊटी शाराक म्हत्व आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**ऋग्वेदः** चार मुखेल वेदांमदलो सगळ्यांत पोरनो वेद. यजुर्वेद, सामवेद आनी अथर्ववेद हे हेर वेद आसात. संवसारांतल्या सगळ्या मेळिल्ल्या साहित्यामदीं ऋग्वेद सगळ्यांत पोरनो आसा.

ऋग्वेदांतलें 'ऋग्' उतर 'ऋच्' धातूवेल्यान तर 'वेद' उतर 'विद्' धातूवेल्यान तयार जालां. 'ऋग्' उतराची व्युत्पत्ती 'ऋच्यन्ते स्तूयन्ते देवा अनया इति ऋग्' अशी आसा. 'ऋग्' म्हळ्यार देवाची तुस्त करपी शब्द रचणूक. विंगडविंगड छंदोबध्द रितीन रचिल्ले हे शब्दरचणुकेक मंत्र म्हण्टात. वेद उतराची व्युत्पत्ती अशी- 'विद्यते इति वेदः' जें जाणून घेवपाचें आसता ताकाच गिन्यान (ज्ञान) म्हण्टात. दोनूय उतरांचो अर्थः देवतांची तुस्त करपी छंदोबध्द शब्दरचणुकेक गिन्यान म्हण्टात. हें गिन्यान जातूंत एकठांय करून दवरलां, तिका 'ऋग्वेदसंहिता' अशें म्हण्टात.

महामुनी पतंजली हाणें बरयल्ल्या महाभाष्यावेल्यान ऋग्वेदाचे वट्ट २१ फांटे आसात, (एकविंशतिधा बाहवृच्यम्). पूण सद्या हातूंतलो 'शाकल' नांवाचो एकूच फांटो मेळटा.

ऋग्वेदसंहितेची मांडावळ दोन तरांनी केल्ली आसा. १. अष्टकरचना आनी २. मंडळरचना. **अष्टकरचनाः** आठ अध्यायांचें एक अष्टक, अशीं आठ अष्टकां ऋग्वेदांत आसात. वट्ट ६४ अध्याय आसात. दरेका अध्यायाच्या पोट विभागाक वर्ग म्हण्टात. वर्गांत सादारणपणान पांच मंत्र आसात. कांय वर्गांत मंत्र चड- उणेय आसतात. ऋग्वेदसंहितेंत २००६ वर्ग आसात. **मंडळरचनाः** ही विभागरचना इतिहासीक आशिल्ल्यान पयले रचनेपरस चड म्हत्वाची आसा. हे रचनेप्रमाण ऋग्वेदसंहितेंत वट्ट १० मंडळां आसात. ह्या मंडळांत कांय सुक्तां आनी जायत्यो ऋचा आसात. कात्यायनाच्या सर्वानुक्रमणिकेप्रमाण ऋग्वेदसंहितेंत १० मंडळां, १०२७ सूक्तां; १०५८०१/४ ऋचा; १,५३,८२६ उतरां; ४,३२,००० अक्षरां आसात. तेभायर वालखिल्य नांवांचीं इकरा सूक्तां आठव्या मंडळांत ४९ ते ५९ क्रमांकांत येतात. तातूंतल्या ऋचेचो आंकडो ८० जाता. खिलसूक्त वा परिशिष्ट हे संहितेंत आस्पावलां.

ऋग्वेदांतल्या १० सूक्तांचीं नांवां अशींः- १. देवतासूक्तां २. ध्रुवपदसूक्तां ३. कथासूक्तां ४. संवादसूक्तां ५. दानस्तुतिसूक्तां ६. तत्त्वज्ञानसूक्तां ७. संस्कारसूक्तां ८. मांत्रिकसूक्तां ९. लौकिकसूक्तां आनी १०. आप्रीसूक्तां.

ऋग्वेदांतलीं ३३ मुखेल दैवतां अशींः-

**सर्गांतल्यो (द्युस्थ) ११ देवताः** सूर्य, द्यो, वरुण, मित्र, सवितृ, पूषन्, विष्णु, विवस्वत, आदित्य, उषस्, अश्विन्.

**अंतरिक्षांतल्यो (मध्यस्थ) ११ देवता-** इंद्र, त्रित, अपान्नपात्, मातरिश्विन, अहिर्बुध्न्य, अजएकपाद, रुद्र, मरुत्, वायु, पर्जन्य, आप.

**पृथ्वीवेल्यो (पृथ्वीस्थ) ११ देवता-** अग्नि, पृथ्वी, ब्रह्मणस्पति, धेनु, सोम, ओषधि, वास्तोष्पति, इळा (इडा), ऋत, ऋतु, रात्री (ऋग्वेद- १-१३९-११).

स्वर्गांत सूर्य, अंतरिक्षांत इंद्र आनी पृथ्वीचेर अग्नि मुखेल देवता अशें मानलां.

तेत्तीस कोटी देव म्हणपाची चाल ह्या तेत्तीस देवतांवेल्यान पडली आसूंये, अशें मानतात. उषा, त्वष्टा, आदिती, यम, गौरी, त्र्यंबक, पितर, प्रजापति, मन्यु, बृहस्पति, शची, सोम ह्यो देवता अग्नी-षोम, इन्द्रा-वरुण, द्यावा-भूमि, मित्रा-वरुण सूर्या-चन्द्रमस्, सोम-पूषणौ ह्यो जोडदेवता हांचें वर्णन करपी ६० सूक्तां ऋग्वेदांत आयिल्लीं आसात. पूण आयज तांचें म्हत्व उणें जावन हेर देवतांचें पूजन चलता.

वेदमंत्री हें अपौरुषेय आसात. तांची खंयच्याच ऋषीन रचणूक करूंक ना, अशी मान्यताय आसा. ऋषीक समाधी अवस्थेंत ह्या मंत्राचें गिन्यान मेळ्ळां अशी समजणी आशिल्ल्यान ऋषीक मंत्रकर्ते न्हय तर मंत्रद्रष्टे म्हण्टात. सगळे वेद हे रितीन उपलब्ध जाल्यात. मंत्र ईश्वराचे निश्वास आसात, अशी कल्पना आसा.

ऋग्वेदाची रचना छंदोबध्द आनी खंयच्याय तरी वृत्तांत केल्ली आसा. दरेका मंत्राक चरण वा पाद म्हण्टात. दरेका चरणांतलीं अक्षरां समान आसतात. दरेका चरणांत तीन वा चार चरण आसतात. ऋग्वेदाच्या मुखेल सात छंदांक- गायत्री, उष्णिक, अनुष्टुभ्, बृहती, त्रिष्टुभ्, पंक्ति आनी जगती म्हण्टात. ऋग्वेदांतल्या १०५८० मंत्रांमदले ९५०० मंत्र वयल्या सात छंदांत आसात. उरिल्ले मंत्र, अतिजगती, शाक्वरी, अतिशाक्वरी अष्टि, अत्यष्टि, धृति, अतिधृति, एकपाद, द्विपाद, ककुभ्, प्रगाथबार्हत, महाबार्हत छंदांत रचल्यात.

ऋग्वेदांत मुखेल रुपान यज्ञांतल्या देवतांची तोखणाय, वर्णनां, प्रार्थना आयल्यात. आर्य लोकांच्या तत्त्वज्ञानाचे विचार हातूंत दिसतात. पावस,

वत, जंगलां आनी हेर सैमाच्या घडणुकांचीं काव्यमय वर्णनां, पुरुरवा, उर्वशी, यम, यमी हांचीं आख्यानां आसात.

ऋग्वेद काळांतल्या लोकांक संस्कृतायेच्या उदरगतीक लागपी अर्थीक थीरपण आसलें. शेतकाम करप, गोरवां पोसप, धातुकाम करपाची कला, तरसादी, भाले, रथ, वाद्यां, फातरमाती आनी लोखणाचीं सुंदर घरां घडोवपाचें गिन्यान, रस्ते, बांयो, पूल, गांवाभोंवतणचो कोट बांदपाचें गिन्यान तांकां आसलें. गोरवांचे गिरेस्तकायेचीं वर्णनां करपी ऋग्वेदांतलीं जायतीं सूक्तां त्या काळांत भूंयधनापरस पशुधनाक दिवपांत येवपी म्हत्व दाखयतात. वेपार येरादारी करपाक लागपी दुचाक्यो, बैलगाडयो, घोड्यागाडयो त्यावेळार आसल्यो. शंभर ओल्यांच्या व्हड्याचें वर्णन तातूंत आयलां (१-११६-५). मेस्तपणाकय खूब ऊंच मानताले. 'त्वष्टा' ही ह्या कामाची देवता. १०० दारां आशिल्ल्या नगराचो उल्लेख ऋग्वेदांत मेळटा. बायलां 'उलना' (लोकर) चें विणकाम करतालीं. दादल्यांक, बायलांक उंची वस्त्रांची आवड आशिल्ली. भांगराचो वापर खूब जातालो. 'निष्क' नांवाचे भांगराचें नाणें अस्तित्वांत आशिल्लें. वस्तुंच्या बदलाक वस्तू दिवपा-घेवपाचो वेव्हार चलतालो.

ऋग्वेदांत खासगी संपत्तीची वांटणी कशी आसची, हे विशीं इत्सा परगटायल्या. दान दिवप व्हडपणाचें लक्षण मानलां. स्वर्गांत वतलो जाल्यार रीण पावोवंक जाय अशी कल्पना मांडल्या.

ऋग्वेद काळांत भास, लेखन आनी गणित हातूंत ह्या लोकांची बरीच उदरगत घडिल्ली. दशांक पध्दत ह्याच काळांत सुरू जाली. गणितांत क्रांती घडोवपी 'शून्याची कल्पना' ह्या लोकांचे बुध्दीची तांक दाखयता, अशें जाणकार मानतात.

घरांतले चलयेक वा बायलेक आपलें मत मांडपाचो पुराय अधिकार आसलो. वयांत येतकच ब्रह्मचारी व्रत आपणावन बरो उपदेश करप वा लग्नाखातीर घोव वेंचप हेविशीं तांकां पुराय मेकळीक आसली. घरांतल्या मांय, मांव, देर, धूव, नणंद, नोकराचेर, बायलेचो पुराय अधिकार आसलो. लोक नितीन वागताले. कोणेय आडमार्ग आपणायल्यार ताका वा तिका ते गजालीपसून परावृत करपाक देवाची प्रार्थना करताले. सोरो, जुगार असल्या वेसनां पसून पयस रावचेपासत उपदेश करताले.

ऋग्वेदांत मनीसपणाच्या उदात्त कल्पनेचे जें स्फुरण जालां ते कल्पनेक पुरुषसूक्तांत थारो मेळ्ळो. पुरुषसूक्तांत देवाक पुरुष म्हळ्यार मनीस अशें म्हळां. मनशाक येदें व्हडपण फाव जाता, असो ताचो अर्थ जाता. नीती-अनितीची कल्पना तांणी वेवस्थित मांडली. ऋषींनी 'एकं सत्' म्हूण दिसून आयिल्लें तत्त्व पुराय सैमांत व्यापून आसा, अशें सांगलें. हातूंतल्यान अमरत्वाची भावना निर्माण जाली. एकात्मभाव म्हळ्यार अमरत्व अशें म्हणून इहलोक आनी परलोक हांचो संबंद जोडलो. तेपासत लोक मरणाक भिना जाले आनी धर्तरेक स्वर्ग मानपाक लागले.

ऋग्वेदांत सोमयागाक खूब म्हत्व आसा. सोम ही वृष्टीची तर अग्नि ही उजवाडाची कुरू मानल्या. वत आनी पावस हांकां लागून सजीव सृश्ट चलता, अशें तांकां दिसता.

ऋग्वेद काळांतले लोक संवसारांतल्या खंयच्याय राश्ट्रापरस चड सुदारिल्ले. ते बळिश्ट, बुदवंत, गिरेस्त आनी सुखी आसले. धर्तरेचेर आपली सत्ता, धर्म चलचो म्हूण तांणी यत्न केलो (कृण्वन्तो विश्वमार्यं). पूण कोणाच्याच स्वातंत्र्याचेर बंधनां घालींनात. सगळ्यांक वांगडाक घेवन मुखार वचपाचो हावेस तांणी बाळगिलो.

- डॉ. अनंत राम भट

**एंगेल्स, फ्रेड्रिख:** (जल्म: २८ नोव्हेंबर १८२०, बार्मेन-ऱ्हाईनलॅंड; मरण: ५ ऑगस्ट १८९५, लंडन).

जर्मन समाजवादी. कार्ल मार्क्स ह्या व्हड विचारवंताचो सगळ्यांत लागशिल्लो वांगडी आनी शास्त्रीय समाजवादाचो एक प्रस्थापक. ऱ्हाईनलॅंडांतल्या गिरेस्त कारखानदाराच्या आठ भुरग्यांतलो फ्रेड्रिख हो सगळ्यांत व्हडलो चलो. पिरायेच्या सतराव्या वर्सासावन ताणें आपल्या बापायक उद्येगांत हातभार लावपाक सुरवात केली. उपरांत कांय काळ ताणें सैन्य दलांत काम केलें. १८४८-६९ ह्या काळांत बापायच्या मॅंचेस्टर वाठारांत आशिल्ले कापड गिरणीत ताणें कर्मचारी म्हूण काम केलें. उपरांत तो थंयचो भागीदार जालो आनी फुडें संचालक म्हूण ताणें थंय काम केलें. फाविल्ल्या वेळांत तो वाचप आनी बरप करतालो. पिरायेच्या ४९ व्या वर्सा तो उद्येग वेवसायांतल्यान मेकळो जालो आनी फुडें ताणें आपलें पुराय लक्ष राजकारण आनी बरप हातूंत घालें.

पिरायेच्या २१ व्या वर्सा, मोझेस हेस ह्या विचारवंताच्या विचारांनी तो प्रभावीत जालो आनी समाजवादी चळवळीचो बारकायेन अभ्यास करून तेविशीं बरप करूंक लागलो. तेन्नाच ताणें कार्ल मार्क्स संपादन करतालो त्या नेमाळ्यांत 'खाजगी मालमत्तेवेलो हक्क काडून उडोवचो' अशें मत परगटावपी लेख बरयलो. ह्या लेखाच्या निमतान ताचो मार्क्साकडेन पत्रवेव्हार सुरू जालो. फुडें १८४४ त जेन्ना पारिसांत दोगूय एकामेकांक मेळ्ळे, तेन्ना दोगांयचेय विचार एक आशिल्ल्याचें तांकां कळून आयलें. फुडें तांची इश्टागत जाली आनी फ्रेड्रिखान ताका अखेरमेरेन सगळेपरीन सांगात दिलो. गरिबींत त्रास काडपी मार्क्साक ताणें दुडवांचो आदार दिलोच, पूण मृत्युपत्रावरवीं आपली सगळी आस्पत ताच्या भुरग्यांच्या नांवार केली.

मार्क्सान फ्रेड्रिखाच्या आदारान जायते ग्रंथ बरयल्यात. तांच्या 'द कम्युनिस्ट मॅनिफेस्टो' (१९४८) ह्या निबंदाक संवसारीक नामना मेळ्ळया. मार्क्साच्या मरणाउपरांत ताणें बरोवन दवरिल्ल्या अर्दकुट्या आनी उजवाडाक येवंक नाशिल्ल्या ग्रंथांची हातबरपां फ्रेड्रिखान संपादित केलीं. तशेंच तांकां प्रस्तावना दिवन तीं उजवाडाकूय हाडलीं. 'द कॅपिटल' ग्रंथाचो दुसरो खंड ताणें संपादित केलो. तशेंच मार्क्सान दवरिल्ल्या आराखड्याचेर तिसऱ्या खंडाची मुद्रित प्रत तयार केली.

तो मार्क्साच्या व्यक्तिमत्वान जरी धांपून गेल्यावरी दिसलो तरी ताणें केल्ल्या ग्रंथनिर्मितींतल्यान ताचे स्वतंत्र विचारशक्तीची गवाय मेळटा. पिरायेच्या २४ व्या वर्सा कामगारांची परिस्थिती लागशिल्ल्यान पळोवन 'द कंडिशन ऑफ द वर्किंग क्लास इन इंग्लंड' (१८४५) हें पुस्तक ताणें बरयलें. ताच्या ह्या पुस्तकाची खूब तोखणाय जाली. 'द पेझंट वॉर इन जर्मनी' (१८५०); 'जर्मनीः रेव्होलूशन अॅंड काउंटर रेव्होलूशन (१८५१); तशेंच कार्ल ड्यूरिंग (१८३३-१९२१) ह्या जर्मन समाजवाद्याचें खंडन करपी 'हेर ऑइगेन ड्यूरिंग्ज रेव्होलूशन इन सायन्स' (१८७८), शास्त्रीय समाजवादावयलो 'सोशलिझमः यूटोपियन अॅंड सायंटिफिक' (१८८०) आनी 'द ओरिजन ऑफ द फॅमिली, प्रायव्हेट प्रॉपर्टी अॅंड द स्टेट' (१८८४) ह्या ताच्या ग्रंथांक साम्यवादी वाङ्मयांत म्हत्वाची सुवात आसा. पिरायेच्या ७५ व्या वर्सा ताका लंडन हांगा कर्करोगान मरण आयलें. ताचे निमणे इत्सेप्रमाण ताचें मडें लासलें.

- कों. वि. सं. मं.

**ए:** देवनागरी वर्णमालेंतलें आठवें आनी संस्कृत वर्णमालेंतलें इकरावें अक्षर. कंठ-ताळवी ही हाची उच्चाराची सुवात जावन आसा. हें अक्षर उदात्त-अनुदात्त-स्वरित अशा भेदान त्रिविध जावन आसा. ह्या अक्षराक आयचें स्वरुप प्राप्त जावपाक पांच अवस्थांतल्यान वचचें पडलें.



पयली अवस्था गिरनारच्या शिलालेखांत, दुसरी इ.स.च्या सव्या शेंकड्यांतल्या उष्णीषविजय धारणीच्या ताडपत्री पुस्तकांत, तिसरी बुध्दगया हांगाच्या महानामन्च्या लेखांत, चवथी धार हांगाच्या कूर्मशतक ह्या शिलाकाव्यांत (११ वो शेंकडो) आनी पांचवी आयज बरयतात ती,

अश्यो पांच अवस्था आसात.

कामधेनुतंत्रांत एकाराचें वर्णन अशें केलां:

एकारं परमं दिव्यं ब्रह्मविष्णुशिवात्मकम्।
रञ्जिनीकुसुमप्रख्यं पञ्चदेवमयं सदा।।

अर्थ: एकार हो परम दिव्य आसून तो ब्रह्मविष्णुशिवात्मक आनी पंचदेवमय आसा. ताचो वर्ण निळीच्या फुलासारको आसा.

मातृकान्यासांत एकाराची सुवात ओंठ ही मानल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## एकनाथ, संत: (जल्म: १५३३; मरण: १५९९).

एक नामनेचो संत कवी. जल्म महाराष्ट्र राज्यांतल्या पैठण वाठारांत जालो. बापायचें नांव सूर्यनारायण आनी आवयचें नांव रुक्मिणी. तो ल्हान आसतनाच आवयबापायक मरण आयलें, देखून ताच्या आज्यान ताका ल्हानाचो व्हड केलो. वयाच्या सव्या वर्सा मूंज जातकच ताणें त्या काळांतले पध्दतीप्रमाण संस्कृत भाशेचें आनी हेर शिक्षण घेतलें. पिरायेच्या बाराव्या वर्सा तो देवगिरी हांगा रावपी जनार्दनस्वामीचो शिष्य जालो. स वर्सां थंय रावन ताणें संस्कृत शास्त्रपुराणांचो आनी ज्ञानेश्वरी सारक्या आध्यात्मिक ग्रंथांचो अभ्यास केलो. फुडें गुरुकृपेन ताका परमेश्वरी साक्षात्कार जातकच ताणें सात वर्सां तीर्थयात्रा केली.

पिरायेच्या पंचवीसाव्या वर्सा जनार्दन स्वामीचे आज्ञेप्रमाण ताणें गृहस्थाश्रम आपणायलो. ताचे बायलेचें नांव गिरिजा. ताका हरिपंडित नांवाचो एक चलो आनी गोदा आनी गंगा नांवाच्यो दोन चलयो जाल्यो.

एकनाथाच्या जिविताचेर कितल्योश्योच आख्यायिका आसात. तातूंतल्यो कांय अश्यो: अस्पृश्याच्या वाट चुकिल्ल्या भुरग्याक हाण्डीर घेवन म्हारवाड्यार पावोवप, श्राध्दाक ब्राह्मण येनात तें पळोवन शिजयल्लें अन्न अस्पृश्यांक दिवप, तानेल्या गाढवाक गंगेचें उदक पाजप, हाच्यावेल्यान अद्वैत वेदान्ताचो व्यापक अर्थ ताच्या आंगांत खोलायेन आसा हें दिसून येता.

'चतु:श्लोकी भागवत' ही ताची पयली रचना. उपरांत ताणें 'हस्तामलक', 'शुकाष्टक', 'स्वात्मसुख', 'आनंदलहरी', 'चिरंजीवपद', 'गीतासार', 'आनंदानुभव', 'रुक्मिणी स्वयंवर', 'एकनाथी भागवत', 'भावार्थ रामायण' हे ग्रंथ बरयले. ताणें रोसाळ शैलींत बरयल्ल्यो 'तुळशीमाहात्म्य' आनी 'सीतामंदोदरीची एकात्मता' ह्यो पुराणकथा; संवसारीक मनोवृत्तीचें दर्शन घडोवपी 'हळदुली' आनी 'कृष्णदान' ह्यो कृष्णकथा; कंजूस मनशाचें स्वभावचित्रण चितारपी 'कदर्यु-आख्यान'; ध्रुव, प्रल्हाद, उपमन्यू आनी सुदामा हांच्यो लघुचरित्रकथा आनी ज्ञानेश्वर सारक्या संताच्यो संक्षिप्त जिवीतकथा ह्यो ताच्यो हेर रचना जावन आसात. तशेंच खास करून श्रीकृष्णाचेर आदारुन आशिल्ल्या गेय पदांची रचना ताणें केल्या. ताची 'वारियाने कुंडल हाले', 'असा कसा देवाचा देव बाई ठकडा' आदी पदां अजून तोंडार घोळटात. ताणें १२५ विशयांचेर सुमार ३०० भारुडां रचल्यांत.

एकनाथाची चडशी रचना साडेचार चरणी ओवी छंदांत आसा. गुरुभक्ती, पारमार्थिक अणभव आनी समाजीक स्थिती ह्या विशयांचेर ताणें अभंग रचल्यात. ताणें प्रपंच आनी परमार्थ, तशेंच संतत्व आनी समाजोध्दार हांचो आपले जिणेंत बरेतरेन मेळ सादयलो.

तेराव्या शेंकड्यांत ज्ञानेश्वर-नामदेव ह्या संतांनी भौसाखातीर भक्तिमार्गाची थापणूक केल्ली. फुडल्या अडेचशें वर्सांत यवनांची सत्ता आयिल्ल्यान भक्तिमार्गाचो प्रभाव उणो जायत गेल्लो. तेन्ना एकनाथान भागवत पंथाचो पुनर्जल्म केलो. आपल्या भागवती बरपांत ताणें भक्तिपंथाची शास्त्रोक्त थापणूक केली.

- कों. वि. सं. मं

## एकनाथी भागवत:

महाराष्ट्रांतलो एक व्हड म्हापुरुस संत एकनाथ (सुमार, १५३३-१५९९) हाणें भागवत पुराणाच्या एकादशस्कंधाचेर जी मराठी भाशेंत होवयेंत गुंथून टिका बरयली, तिका 'एकनाथी भागवत' म्हूण नामना मेळ्ळी. संत एकनाथाच्या साहित्यांतली ही एक सगळ्यांत व्हडली रचना आसा. ह्या ग्रंथाची रचणूक १५७० ते १५७३ ह्या काळांत जाली. ह्या ग्रंथांतल्या वट्ट होंवयांचो आंकडो सुमार १८,८०० आसून तातूंत पुराय अध्याय ३१ आसात. आपलो गुरु जनार्दन स्वामी आनी साक्षात् दत्तात्रयाच्या फाटबळाक लागून हो ग्रंथ आपूण बरोवंक पावलो, अशें एकनाथान म्हळां.

संत एकनाथान ह्या ग्रंथाचे पयले पांच अध्याय पैठणांत बरयले. एकनाथाच्या एका भक्तान हे अध्याय काशीक व्हेले. भागवत ग्रंथाचें हें प्राकृत रुप पळोवन काशीच्या कर्मठ आनी सनातनी ब्राह्मणांक संताप आयलो. तांणी तेसंबंदान जाप विचारपाखातीर संत एकनाथाक आपोवणें धाडलें. संत एकनाथ भिनासतना जाप दिवपाखातीर गेलोच, त्याच वांगडा ताणें ग्रंथाचे उरिल्ले २६ अध्याय बरयले आनी विद्वानामुखार दवरले. काशीच्या मणिकर्णिका घाटाचेर ताणें हो ग्रंथ बरोवन पुराय केलो. जेन्ना काशीच्या पंडीतांक ग्रंथाचें म्हत्व पटलें तेन्ना तांणी व्हड मनान ह्या ग्रंथाची मिरवणूक काडली. संत एकनाथ हो वारकरी संप्रदायांतलो विठ्ठलाचो भक्त आसलो. वारकरी संप्रदाय म्हळ्यारच भागवत धर्म आशिल्ल्यान, एकनाथान भागवतधर्माचो बारीकसाणेन अभ्यास केलो. फकत कवित्व बरोवचेपरस, भागवत धर्माच्यो परंपरा, स्वरुप, खाशेलेपण, हेत, उद्देश आनी साधना हाच्यासंबंदान पुराय नियाळ केला, ताका लागून ह्या ग्रंथाक धर्मग्रंथाचें रूप मेळ्ळां. भक्तीच्या योगान परमार्थ मेळोवपाचो सोंपो मार्ग प्रापंचिकामुखार दवरप, हो ह्या ग्रंथाचो मुखेल हेत आसलो. संत एकनाथ भागवत धर्माचें सार फुडल्या उतरांनी सांगता:

मनें करावें हरीचें ध्यान। श्रवणें करावें कीर्तिश्रवण।
जिव्हेनें करावें नामस्मरण। हरिकीर्तन अहर्निशीं।।
करीं करावें हरिपूजन। चरणीं देवालयगमन।
घ्राणीं तुलसी आमोदग्रहण। जिहीं हरिचरण पूजिले।।
वाढतेनि सद्भावें जाण। चढतेनि प्रेमे पूर्ण।
अखंड ज्यासी श्रीकृष्णभजन। त्यासी भवबंधन असेना।।
भागवत धर्माचिये स्थिती। बाळीं, भोळीं, भवाजच्ध तरती।
सुखोपायें ब्रह्मप्राप्ति। होय निश्चित सकळिकां।।

संत एकनाथान ज्ञानेश्वराच्यो कितल्योश्योच कल्पना, दिश्टावे, विचार आनी विशय हांचो वापर आपल्या ग्रंथांत केला. वेदान्ता सारको कठीण विशय ताणें सोप्या उतरांनी सांगला. सामान्यांतलो सामान्य मनीस आपलो करपाची तांक ताच्या उतरांनी आसा.

संत एकनाथाच्या भागवत धर्माचो आपरोस असो आसा: कलियुगांत राजा लोकांनी अधर्म वाडीक लायलो. धर्म आनी नीत तांणी सगळ्यांनी सोडून दिली. प्रजा नागवली. हो अनर्थ भगवंताच्यान पळोवं नज जालो. म्हूण धर्माची राखण करपाक, ह्या युगांत ताणें विठ्ठलाच्या रुपान जल्म घेतलो.

भगवंताच्या अवताराच्या योगान जो धर्म तरतरुन वयर आयलो, तो यज्ञिकांचो धर्म नासून 'भागवतधर्म' जावन आसा. भगवंतान आपल्या विंगडविंगड भक्तांक ह्या धर्माचो सोपे रितीन उपदेश केलो. ह्या धर्मांत संकश्टांत पडपाचो धोको ना. भोळो-बाबडो भक्त संकश्टांतल्यान तरताच, पूण तेचपरी ब्रह्मप्राप्तीय मेळयता. भक्ती करपी भक्त सगळीं कर्मां अहेतूक करीत आसता. स्वधर्माचें आचरण करप, हें परमेश्वराचें शुध्द भजन जावन आसा. ह्या भजनान परमेश्वर प्रसन्न जाता. निश्काम कर्मयोगान समेस्तांभितर समानता आनी भगवद्भाव जागरुक जातकच ऊंच-उणाक हो भेद उरना.

वयले वृत्तींत भक्त पुराय तरेन विरगळ्ळो म्हण्टकच ताका 'जनी जनार्दना'चो अणभव येता. हो प्रत्यय सगळ्या उपनिषदांचें सार जावन आसा. गिन्यान हें ह्या प्रत्ययापरस वेगळी गजाल न्हय. हे अवस्थेंत नामरुपातींत सतत्त्वाकडेन भक्त एकरुप जाता. गिन्यानी भक्त स्वताच्या उध्दारान संतुश्ट जायना. गरीब दुबळ्यांचो उध्दार केलेबगर तांचें काम

पुराय जायना, लौकीक कर्मां करूनय तो कर्मबंधनांत बांदून उरना. प्रपंच करूनय तो प्रपंचातीत आसता, म्हळ्यार ताचो प्रपंच परमार्थरूप आसता.

नरदेह हो परम पावन जावन आसा. ताचो उपेग विषयसुखाखातीर करपाक जायना, तर परमार्थ साधनेखातीर करपाक जाय. भागवतधर्मान स्वधर्म आनी स्वकर्म हांचो एकवट सादला, देखून भागवत धर्माचे संत, आश्रमधर्माचें पालन करतात. ते कर्म करतात, पूण ते कर्मठ न्हय. ते कर्मातीत आसतात. ते स्वधर्मकर्मांतच ब्रह्मप्रतीतीचो अणभव घेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**एकलव्य:** निषादराज हिरण्यधनू हाचो पूत. कौरव पांडवांचो धनुर्विद्येंतलो गुरू द्रोणाचार्य हाचेकडेन धनुर्विद्या शिकपाखातीर एकलव्य गेल्लो. तेन्ना तो हीन कुळांतलो आसा अशें सांगून द्रोणाचार्यान ताका विद्या दिवपाचें न्हयकारलें. एकलव्यान द्रोणाचार्याचो मातयेचो पुतळो केलो आनी ताका गुरू मानून व्हड भावार्तान धनुर्विद्येचो स्वताच अभ्यास केलो.

ह्या प्रसंगाउपरांत, एकदां द्रोणाचार्य कौरव आनी पांडव ह्या आपल्या शिष्यांवांगडा रानांत भोंवता आसतना तांच्या वांगडा आयिल्ल्या कुत्र्याचें तोंड सात बाण मारून कोण तरी बंद केल्लें तांकां दिसलें. धनुर्विद्येंतलो तो चमत्कार पळोवन द्रोणाचार्यासकट सगळ्यांक अजाप जालें. ही करामत एकलव्याची आशिल्ली. द्रोणाचार्यान आपणाक धनुर्विद्या दिवपाचें न्हयकारलें, तरी आपणे ताका गुरु मानून धनुर्विद्येची साधना केली आनी ही विद्या प्राप्त केली अशें सांगून, ताका आपलो शिष्य मानून घेवचो अशें द्रोणाचार्याक एकलव्यान विनयलें. एकलव्याची गुरुभक्ती पारखुपाखातीर आसूंये, द्रोणाचार्यान धनुर्विद्येंत सामको गरजेचो असो उजव्या हाताचो आंगठो गुरुदक्षिणा म्हूण एकलव्याकडेन मागलो. एकलव्यान रोखडोच तो कापून दिलो. धनुर्विद्येंत अर्जुनापरस एकलव्य व्हड जायत ह्या भयान एकलव्याचो आंगठो मागलो आनी एकलव्याचेर व्हड अन्याय केलो, असो आरोप कांय जाणाकडसून द्रोणाचार्याचेर जाता. कौरव-पांडवां मदल्या भारतीय झुजांत एकलव्य कौरवांचे वटेन पांडवा आड झुजलो.

- कों. वि. सं. मं.

**एकलिंगजी:** राजस्थानांतलें मुखेल इतिहासीक थळ. मेवाड आनी उदयपूर हांगाच्या राजपूत राजघराण्याचो हो कुलदेव. उदयपूर-नाथद्वारा ह्या रस्त्याचेर उदयपूर सावन १२ मैल अंतराचेर दोन दोंगुल्ल्यांमदीं हें व्हड देवूळ आसून ताच्या चारुय वटांनी तटबंदी आसा. देवळाचे लिंगमूर्तीक चार मुखां आसून अस्तंतेच्या दाराकडेन पितुळच्या नंदीची मूर्त आसा. जात्रेक येवपी लोकांक उठबस करपाखातीर हांगा एक धर्मशाळा आसा.

पयलीं ह्या वाठाराक 'कैलाशपुरी' ह्या नांवान वळखताले. पूण एकलिंगजीचें देवूळ जायत सावन ह्या जाग्याक 'एकलिंगजी' ह्या नांवान वळखतात. राजघराण्यातले महाराणे हे एकलिंगजीचे दिवाण अशें मानतात. तेचखातीर उदयपूरच्या महाराण्यांक दिवाणजी म्हण्टात.

एकलिंगजीचें देवूळ कोणें बांदलें हाचो उल्लेख खंयच मेळना. जनश्रुतिप्रमाण ह्या देवळाची निर्मिती आठव्या शेंकड्यांत बाप्पा रावळ हाणें केली. उपरांतच्या काळांत नश्ट जावंक पाविल्लें हें देवूळ महाराणा हमीरान परतें बांदून काडलें. हमीराचो चवथो वंशज मोकल हाणें देवळाच्या चारुय वटांनी तटबंदी घाली. फुडें महाराणा कुंभान पुराय देवळाचो जीर्णोध्दार केलो. ह्या देवळाच्या दुर्गाभितर आनीकूय देवळां आसात. महाराणा कुंभान बांदिल्लें एक 'विष्णूमंदिर' आसा, जाका लोक मीराबायचें देवूळ म्हूण वळखतात.

बाप्पा रावळाचो गुरु माथ हारीतराशि हो एकलिंगजीच्या देवळाचो महंत आसलो. तो आनी ताचे शिष्य देवळाचे पूजेचें कार्य पळेताले. एकलिंगच्या देवळाचे महंत आनी नाथ हांचो पूर्विल्ल्या काळांतलो मठ आयज लेगीत देवळाचे अस्तंतेक दिश्टी पडटा. नाथ, साधू हांच्या आचरणान भश्ट जातकच देवळाची पूजा-विधी करपाचें कार्य गोसाव्यांकडेन दिलें. हे गोसावी म्हळ्यार ब्रह्मचारी पुजारी ह्या देवळाचे मठाधीश जाले.

ह्या देवळांत देवाचें दर्शन घेवपाच्यो वेळो थारायिल्ल्यो आसात. पुजारी सदांच विंगडविंगड रत्नांनी देवाचो साजशृंगार करता. गर्भकुडींत वचून देवाचें दर्शन घेवपाचें आसल्यार जण एकल्याक तेपयलीं पुजाऱ्यान दिल्लें वस्त्र न्हेसचें पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**एक्वादोर:** दक्षिण अमेरिकेचे अस्तंत देगेवयलें एक राश्ट्र. क्षेत्रफळ २,७०,६७० चौ. किमी. लोकसंख्या ९६,४७,००० (१९८६). विस्तार १° २६' ३०'' उत्तर ते ५° १' दक्षिण आनी ७५° ११' ४४'' अस्तंत ते ८१° ०१' अस्तंत. विषुववृत्त (equator) ह्या देशांतल्यान वता, ताचे वेल्यान ताका 'एक्वादोर' हें नांव मेळ्ळां. हाचे उत्तरेवटेन कोलंबिया, उदेंतेक आनी दक्षिणेक पेरू आनी अस्तंतेक पॅसिफिक महासागर आसा. गालॅपागस हे जुंवे एक्वादोरचे मालकेचे आसात. कीतो ही ह्या देशाची राजधानी जावन आसा.

**भूंयवर्णन, हवामान, वनस्पत आनी मोनजातः** भूंयरचणुकेचे नदरेन एक्वादोरचे तीन वांटे जातात. दर्यादिगेलागचो सकयलो वाठार 'कॉस्ता', मदलो पर्वतांचो वाठार 'सिएर्रा' आनी उदेंतेवटेनचो दोंगरा देंवतेवयलो वाठार 'ओरिएंते'. ह्या देशांत ज्वालामुखींचे प्रमाण बरेंच आसा. कोटोपाक्सी हो सुमार ५,८७७ मी. उंचायेचो संवसारांतलो सगळ्यांत ऊंच जागृत ज्वालामुखी आसा. हांगाच्यो न्हंयो ॲमेझॉन आनी तिच्या उपन्हंयांक मेळटात. दर्यादिगेलागचें हवामान उश्ण आनी ओलसाणीचें आसा. पर्वत वाठारांतलें हवामान उंचायेचेर आदारून आसता. कीतो ही राजधानी समुद्रथरागावन २,८५० मी. उंचायेचेर आसा आनी थंय वर्सुयभर हवामान [illegible] ऋतुभशेन आसता. पावसाचें वर्सुकी प्रमाण सुमार १२५ सेंमी. आसा. ५,००० मी. परस ऊंच दोंगराचीं तेमकां बर्फान भरिल्लीं आसतात. विषुववृत्तीय वाठारांच्या खाशेलेपणाप्रमाण हांगा पावस वर्सूयभर पडटा.

दक्षिणेवटेन दर्यादिगेचेर ल्हान झोंपां, तण आनी कांयकडेन 'सीबा' रुख दिश्टी पडटात. हेर कांय वाठारांनी दाट रानां आसात. उंचेल्या वाठारांनी पारॅमो नांवाचे तणांचे रुक्ष वाठार आसात.

ऑसेलॉट हो ल्हान रानवट माजरासारको प्राणी, पूमा, जाग्वार, आउन्स हो चित्याभशेन प्राणी, तापीर, पेक्कारी, कापीबारा हे हांगाच्या रानांनी सांपडटात. न्हंयांनी नुस्तें, मानगीं खूब आसात. रानांनी कितल्याशाच प्रकारचीं सुकणीं आनी किडमुयो आसात. ऊंच पर्वतांच्या वाठारांनी गरूड आनी कॉंडॉर प्रकारचीं सुकणीं आसात. गालॅपागस हांगा कांसवांच्यो खाशेल्यो जाती सांपडटात.

**इतिहासः** एक्वादोरचे मूळ लोक हेर अमेरिकन इंडियनांभशेन मूळचे मंगोलियन वंशाचे आसात अशें मानतात. इ.स. सुमार १००० वर्सा तांणी कीतो राज्याची थापणूक केली; पूण दक्षिणेकडल्या इंका लोकांनी तें जिखून घेवन ताचो आस्पाव आपल्या साम्राज्यांत केलो. १५३१ त हांगा स्पॅनिश लोकांच्यो घुरयो येवंक सुरवात जाली. तांणी थळाव्या इंडियन लोकांक काबार करून हांगा शारां बांदूंक आनी राज्य निर्मूंक सुरवात केली. तांकां गुलाम करून रोमन कॅथलिक मठ आनी इगर्जो बांदून घेतल्यो. अठराव्या शतमानांत हांगा स्वतंत्रतायेची चळवळ सुरू जाली. युजेनियो एस्पेहो हो ते चळवळीचो मुखेल आशिल्लो. १८०९ त जाल्लो उठाव चिड्डून उडयलो. पूण १८२२ त पिंचींचा हांगाच्या झुजांत जैत मेळोवन देशभक्तांनी स्पॅनिश शेकातळांतल्यान देशाक स्वतंत्रताय मेळोवन दिली. कोलंबियाचो झुजारी बोलीव्हार आनी आर्जेन्टिनाचो झुजारी सान मार्तीन हांणी ह्या देशाच्या स्वतंत्रताय झुजांत वांटो घेतलो. बोलीव्हार हाणें कोलंबिया, व्हॅनेझुॲला, एक्वादोर, पानामा हांचें मेळून ग्रेटर कोलंबिय नांवाचें संयुक्त राश्ट्र निर्मिलें, पूण तें चड तेंप एकवटित उरलेंना. १८३० त व्हान होसे फ्लोरिस हाच्या फुडारपणाखाल




एक्वादोरच्या स्वतंत्र प्रजासत्ताकाची थापणूक जाली. तोच हांगाचो पयलो अध्यक्ष जालो. उपरांतच्या १२९ वर्सांत संविधान १५ खेपे बदल्लें आनी ४६ अध्यक्ष जाले, पूण तांतले फकत बारा जाण आपली मुदत सोंपसर अध्यक्षपदाचेर रावंक शकले. फ्लॉरेसची कारकीर्द १५ वर्सां उरली. १८६० ते १८७५ ह्या काळांत गाब्रिएल गार्शिसो मोरेनो हो हांगाचो कारभार हुकुमशहाभशेन चलोवंक लागलो. १८७५ त ताचो खून जालो. १८९५ त जनरल आल्फारो फ्लाव्यो एलॉय हाणें क्रांती करून रॅडिकल लिबरल पक्षाचें युग सुरू केलें. फुडें पयलें म्हाझूज आनी ताच्या उपरांतची अर्थीक मंदी हाका लागून देशाची परिस्थिती इबाडली. लिबरल, कंझर्व्हेटिव्ह आनी लश्करी अधिकारी हांच्या हातांत सत्ता येत रावली. १९७९ त हांगा वेंचणुको जावन नवें संविधान अंमलांत आयलें. १९८४ च्या वेंचणुकांनी लॅओन फेब्रेसे कोर्देरो राश्ट्राध्यक्ष जालो.

**अर्थीक स्थिती:** हांगा शेतवड आनी गोरवां पोसपाच्या वेवसायाक म्हत्व आसा. उद्देगधंदे मागाशिल्ले आसात. केळीं, कॉफी, कोको, तांदूळ हांचें पीक बरेंच येता. रानांतल्या रुखांक लागून ह्या देशाक बरीच व्हडली येणावळ मेळटा. गालॅपागस जुंव्यांच्या लागीं नुस्तेमारीचो धंदो व्हड प्रमाणांत चलता. भांगर, रुपें, तांबें, लोखण, शिशें, जस्त सारकीं खनिजां उण्या प्रमाणांत सांपडटात. रसायनां, उद्येगीक यंत्रसामग्री, येरादारीचीं उपकरणां ह्या गजालींची आयात चडशी अमेरिकेची संयुक्त संस्थानां, जपान, अस्तंत जर्मनी, ब्राझील, इटली ह्या देशांवांगडा जाता; जाल्यार केळीं, कॉफी, कोको, क्रूड तेल हांची निर्यात चडशी अमेरिकेची संयुक्त संस्थानां, पानामा, तैवान, कोलंबिया ह्या देशावांगडा जाता. सुक्रे हें हांगाचें अधिकृत चलन जावन आसा.

**लोक आनी समाजजीण:** मूळचे इंडियन, वसणुकेखातीर आयिल्ले गोरे युरोपीय आनी कामाखातीर हाडिल्ले निग्रो अशे तीन मुखेल लोकांचे वांटे हांगा आसात. ह्या सगळ्या प्रकारच्या लोकांची एकामेकांकडेन आयिल्ल्या संबंदांतल्यान बरीच भरसण जाल्या. ह्या लोकांक मेस्तिझो अशें म्हण्टात. दर्यादिगेवटेन निग्रो आनी युरोपीय जाल्यार दोंगरी वाठारांनी इंडियन आनी मेस्तिझो चड आसात. धर्माचे नदरेंतल्यान ९२% परस चड रोमन कॅथलिक आनी उरिल्ले हेर धर्मांचे आसात. वंशीक नदरेंतल्यान मेस्तिझोंचे प्रमाण सुमार ४०% जाल्यार केचुआ ह्या इंडियनांचें प्रमाण ४९% आसा. अधिकृत भास स्पॅनिश आसा. इंडियन लोक केचुआ भाशेंतल्यान वेव्हार करतात. राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण सुमार ७३% आसा. शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसा. १९८५ मेरेन ह्या देशांतल्यान ७ मुखेल दिसाळीं उजवाडाक येतालीं. हांगाची भूंयरचणूक आनी हवामान हाका लागून येरादारीक बरींच आडमेळीं येतात. रेल्वे, रस्ते आनी उदकांतल्या मार्गांपरस हवाई मार्गांतली येरादारी सोपी पडटा.

राजधानी कीतो सोडून ग्वायाकील, ग्वेंका, आंबाटो, रीओव्हांबा हीं मुखेल शारां आसात. गालॅपागस जुंवे पर्यटनाखातीर बरेच फायदेशीर जावन आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**एकांकी:** एकांकी म्हळ्यार एक अंकी नाटक. एकांकीत एक मुखेल घटना आनी एक प्रसंग आसता. हेर उपकथांक एकांकींत वाव आसना. उण्यांत उणे प्रसंग घेवन चडांत चड प्रभाव निर्माण करप हो एकांकीचो हेत. एकाद्र्या व्हड संदर्भाचो भार घेवन एकांकीची सुरवात जाता. ह्या संदर्भाखातीर नाटकाचो वेग एकसारको वाडत आसता. जेन्नां हो वेग उंचेल्या पावड्यार पावता, तेन्नाच एकांकी सोंपता. जाय तितलेच प्रसंग घेवन, उण्यांत उणी उतरां आनी थोडींच व्यक्तिचित्रां आशिल्ल्यान एकांकी परिणामकारक जाता.

**संस्कृत एकांकी:** संस्कृतांत भाण, वीथी, व्यायोग, उत्सृष्टिकांक अशे चार रुपक प्रकार एकांकींत मोडटात. प्रहसन हो प्रकार एक अंकी तसोच दोन अंकीय आसूं येता. भास ह्या संस्कृत नाटककाराचीं 'ऊरुभंग',

'कर्णभार' आदी पांच रुपकां एक अंकी आसात. विश्वनाथाच्या 'साहित्य दर्पणांत' उपरूपकाचे जे अठरा प्रकार दिल्यात तातूंत गोष्टी, नाट्यरासक, उल्लाप्य, प्रेङःखण, रासक, श्रीगदित, विलासिका, हल्लीश, ह्या एकांकींचो आस्पाव जाता. 'रैवतमदनिका', 'वालिवध', 'मेनकाहितम्', 'देवीमहादेवम्' आदी कांय रुपकां देखीक मेळटात. एकांकीचे हे प्रकार, विशय, दादले तशेंच बायल संवगांची संख्या, नायक नायिकेचो भेद, वृत्तींतलें वेगळेपण, भाशाभेद ह्या गजालींचेर आदारीत आसतात. चडशा संस्कृत एकांकींत हीं दोन लक्षणां मेळटात. १. कथानक रचणुकेंत ज्यो पांच संधी आसतात तातूंतल्यो दोन संधी 'गर्भ' आनी 'विमर्श' एकांकींत आसनात. म्हळ्यार कथानक रोखडेंच फलप्राप्तीकडेन वता. २. एकांकी नृत्यप्रधान आशिल्ल्यान 'कौशिकी' आनी 'भारती' ह्या दोन वृत्तींचो थंय चडसो वापर जाता.

**अस्तंतेकडली एकांकीः** खंयच्याय देशाच्या साहित्य प्रकारांत एकांकीचें मूळ बरेंच खोल गेल्लें दिश्टी पडटा. चडशीं पूर्विल्लीं ग्रीक नाटकां एकांकीच आसात. कलेचे नदरेन पळेल्यार पंदराव्या ते सतराव्या शेंकड्यांत इटालींत जीं ल्हान ल्हान प्रहसनां जातालीं, तातूंत आर्विल्ल्या एकांकीचीं मुळां मेळटात. मदल्या काळांत इंग्लंड आनी हेर देशांत जीं वेगळेच तरेचीं आनी गूढ नाटकां जातालीं तातूंतय एकांकीचें मूळ रुप दिसून येता. इंग्लंडांत १८९० वर्सा एकांकी ह्या नाट्यप्रकारान नाट्य प्रेक्षकांचें लक्ष ओडून घेतलें. उपरांत 'कर्टन रेझर' (Curtain Raiser) हो नाट्यप्रकार रंगमाचयेचेर आयलो. वेळार येवपी लोकांक, उसरां येवपी लोकांक लागून त्रास जातालो. तेन्ना तांचें मन घुस्पावन दवरचे खातीर रंगमाचयेच्या मुखेल्यांनी दोन पात्रांचो प्रहसनपूर्ण संवाद रचलो. अशा प्रकारच्या स्वतंत्र संवादाक 'कर्टन रेझर' म्हण्टात. हातूंत कथानका वांगडाच जिवितांतलें सत्य आनी नाटकांतल्या द्वंद्वाचो उणाव आसता. फुडें ह्या कर्टन रेझरांच्या जाग्यार वास्तव जिविताचेर आदारीत कथानक आनी जोडपात्रां घेवन ल्हान नाटकांची सुरखात जाली. ह्या नाटकाचे उदरगतीचें पयलें पावल म्हळ्यार एकांकी. आर्विल्ल्या युगांतल्या एकांकीची बुन्याद अस्तंत राश्ट्रांनी घाली अशें म्हण्टात.

इंग्लीश एकांकीवरवीं वयल्या पावंड्यावेलें वाङ्मयीन मनोरंजन जालेंच, तेभायर नाटक आनी नाट्यशास्त्र हांचीय गोडी निर्माण जाली. इंग्लंडांतले 'ब्रिटीश ड्रामा लीग' आनी अमेरिकेंतलें 'लिट्ल थिएटर' चळवळीन एकांकीक नामना मेळोवन दिली. १९०३ वर्सा, डब्ल्यू. डब्ल्यू. जेकब्स हाच्या 'द मंकीज पॉ' (माकडाचो बचको) लघुकथेच्या नाट्यरुपांतराक रंगमाचयेर यश मेळळें. पूण हौशी मंडळांनी आनी 'लिटल थिएटरांनी' ह्यो प्रहसनाच्यो एकांकी हातांत घेतकच तांकां खरें चैतन्य मेळळें. टेनेसी विल्यम्स, क्लिफर्ड ओडेट्स, कॉफ्मन, जेम्स बेरी, बर्नार्ड शॉ, जॉन ड्रिंकवॉटर, पिनेरो ए. ए. मिल्न, स्ट्रिंडबर्ग, सिंग, ब्रिगहास, जां पॉल सार्त्र, रवींद्रनाथ टागोर हांच्या एकांकींक बरीच नामना मेळळी.

**हिंदी एकांकीः** हिंदी एकांकीची सुरवात भारतेंदु हरिश्चंद्राच्या काळासावन जाली अशें मानतात. हिंदी एकांकीच्या इतिहासाची चार भागांत विभागणी केल्या. भारतेंदु उपरांतचो काळ जयशंकर प्रसादाचो, तिसरो काळ भुवनेश्वर प्रसादाचो आनी चवथो काळ रामकुभार वर्माचो. जांणी १९५५ वर्सासावन एकांकी बरोवंक सुरू केल्यो आनी जे अजुनय करतात तांचो आस्पाव हे काळविभागणेंत करूंक ना. भारतेंदु काळांत दोन प्रकारच्यो हिंदी एकांकी बरयताले. पयलो प्रकार अणकारिल्ल्यो एकांकी आनी दुसरो वास्तवतेचेर आदारीत बरयल्ल्यो एकांकी. ह्या काळांत भारतेंदु वांगडा राधाचरण गोस्वामी, अयोध्यासिंह उपाध्याय, किशोरीलाल गोस्वामी, राधाकृष्णदास, अंबीकादत्त व्यास आदी जायत्या एकांकीकारांनी एकांकी बरयल्यो. दुसऱ्या काळांत जयशंकर प्रसाद हाणें 'एक घूँट' ही एकांकी बरयली. तिचेर संस्कृताचो आनी बंगालच्या माध्यमांतल्यान आयिल्ले अस्तंती एकांकीचो प्रभाव आसा. ह्या काळांत जयशंकर प्रसाद सोडून हेरांनी एकांकीचें बरप केल्लें दिसना. हिंदी एकांकीचो तिसरो काळ भुवनेश्वर प्रसादाच्या 'कारवाँ' ह्या संग्रहान सुरू जाता. हातूंत स एकांकी आसात. ह्या काळांत सत्येंद्र (कुनाल), पृथ्वीनाथ शर्मा (दुविधा), राजकुमार वर्मा (पृथ्वीराज की आँखे) हांणी कांय एकांकींचें बरप केलें. ह्या एकांकींनी लग्नाच्यो, समाजीक आनी साम्यवादी राजनीतीक अडचणी चड प्रमाणांत दिश्टी पडटात. १९३५ त जेन्ना रेडिओ प्रसारण जावंक लागलें तेन्ना तातूंत एकांकीकूय वाव मेळळो. अशे तरेन रेडिओ एकांकी वा ध्वनी नाटकांची संख्या वाडत गेली.

चवथ्या काळांत एकांकीचें स्वरुप बदलत गेल्लें दिश्टी पडटा. ह्या काळाची सुरखात डॉ. रामकुमार वर्मा हाच्या 'रेशमी टाई' ह्या एकांकी झेल्यान जाली. ह्या काळांत पहाडी युग युग द्वारा शक्तिपूजा, दो कलाकार (भगवतीचरण वर्मा), रीढ की हड्डी (जगदीशचंद्र माथूर), दो अतिथी (उदय शंकर भट्ट) आदी जायत्यो एकांकी तयार जाल्यो. ह्या एकांकी वरवीं एकांकीकारांनी समाजांतले सगळे विशय हाताळिल्ले दिसतात.

पांचव्या काळांत वेगवेगळे तरेच्या हिंदी एकांकींची सुरवात जाली. हातूंत रंगमाची एकांकीभायर ओपन एअर एकांकी, चित्र एकांकी (दूरदर्शनावेली), रस्ता नाट्य आदींचो आस्पाव जाता. ह्या काळांतल्या एकांकींनी एक तर अस्तंती निर्मितीचो कठोरपणान वापर केला वा तातूंत प्रतिभा आनी बुद्धीन नवें वस्तूविधान वा नव्या भावनांवरवीं खरें रुप निर्माण केलां. जिवितांतल्यो नव्यो तरा, तांची आस, निर्शेणी, ल्हान ल्हान अडचणी आदी बरेच विशय हिंदी एकांकींनी आयल्यात.

**मराठी एकांकीः** तंजावरच्या 'सरस्वती महाल' ह्या ग्रंथालयांत मराठी नाटकांचीं जीं हातबरपां आसात, ताचेवेल्यान मराठी एकांकी नाट्यरचणुकेचो अदमास मेळटा. सुमार १७०० वर्साची 'श्री लक्ष्मीनारायण कल्याण नाटक' ही नाट्यरचना मराठी एकांकीची सुरखात अशें म्हण्टात. १८७० ते १९०० मेरेन पौराणिक नाटकां वांगडा मराठी रंगमाचयेचेर प्रहसनांय करून दाखोवपाची चाल आयली. हातूंतलीं सगळीं प्रहसनां जरी एकांकी नासल्यो, तरी तातूंत खुबशीं प्रहसनां विंगडविंगड प्रवेशांच्या एकांकी स्वरुपाचीं आसात.

आर्विल्ल्या काळांत हरिभाऊ आपटे (जबरिचा विवाह), राम गणेश गडकरी (सकाळचा अभ्यास), नाट्यछटाकार दिवाकर (ऐट करु नकोस) हांणी एकांकी बरयल्याचें मेळटा. १९३० मेरेन एकांकीकडेन एक स्वतंत्र साहित्यप्रकार म्हूण पळोवप जालें ना. पूण ह्या काळांत नॉर्वेजन इब्सेनाची एक अंकी, एक प्रवेशी नाटकांची वळख घडली. तेभायर नभोवाणी हें एक नवें माध्यम तयार जालें आनी श्रुतिकेची भरपूर निर्मिती जावंक लागली. इंग्लीश एकांकीचो स्वतंत्रपणान अभ्यास जालो. अनंत काणेकर, माधव मनोहर हांणी जायत्यो एकांकी मराठींत अणकारल्यो. ह्या काळांत शामराव ओक हाणें एकांकींतल्या विंडबनाची उदरगत केली. नाट्यनिकेतन संस्थेन मो. ग. रांगणेकर हाच्यो तीन एकांकी 'तुझं माझं जमेना', 'सतरा वर्षे' आनी 'फरारी' वेवसायीक रंगमाचयेचेर जैतिवंत करून दाखयल्यो. उपरांत एकांकीच्या प्रयोगांपरस वाचपाचेर चड भर दिवंक लागले.

पूण पंदरा-वीस वर्सांत एकांकीकडेन एक स्वयंपूर्ण नाट्यप्रकार म्हूण पळेतात. ह्या काळांत जिविताकडेन आनी साहित्याकडेन पळोवपाचे नदरेंत क्रांतिकारक बदल घडले. वेगवेगळ्या भावनांतल्यान, प्रसंगांतल्यान, अणभवांवेल्यान नवी मराठी एकांकी फुलली. वेगवेगळ्यो नाट्य शिक्षण संस्था सुरू जाल्यो, एकांकी सर्ती जावंक लागल्यो, विद्यापीठां नाट्य शिबिरां घेवंक लागलीं. ह्या सगळ्या कारणांक लागून मराठी एकांकीचे उदरगतीक बरोच वाव मेळळो. मराठी एकांकीक साहित्य आनी रंगमाची ह्या मळांचेर नांव मेळोवन दिवपाचें श्रेय पु. ल. देशपांडे आनी विजय तेंडुलकर हांकां वता. भोंवतणच्या जिवितांतले हास्यास्पद नाट्य घेवन पु. ल. देशपांडे हाणें आपल्यो हास्य-एकांकी रंगयल्यो, जाल्यार विजय तेंडुलकराच्या नाटकांतल्यान गंभीरपणाची

झांक मारता अशें म्हणप समा जातलें. वसंत सबनीस, पद्माकर डावरे, गंगाधर गाडगीळ आदींच्या विनोदी एकांकींनी आनी रत्नाकर मतकरी, वसुधा पाटील, महेश एलकुंचवार, चंद्रकांत देशपांडे हांच्या गंभीर एकांकींनी मराठी एकांकी साहित्यांत भर घाली.

- कों. वि. सं. मं.

**कोंकणी एकांकी**: कोंकणींत दोन वा तीन अंकी नाटक मूर्त स्वरुपांत येवचे आदीं कोंकणी रंगमाचयेचेर कोंकणी एकांकी हो प्रकार खूब प्रभावी जावन आसलो. गोंयचे सुटकेआदीं (डिसेंबर १९६१) कोंकणी एकांकीचें स्वरुप चडशें फार्सीकल म्हळ्यार विनोदी आसलें. कोंकणी ही गोंयची थळावी भास जाल्ल्यान आनी तिच्या म्हांव्या रुपाक लागून फार्सीकल रुपांतले कोंकणी एकांकीक आपशींच एक खाशेलेपण प्राप्त जालें. ह्या काळांतलोच कोंकणी एकांकी हो कोंकणी रंगमाचयेवेलो एक सुरबूस, ओडलायणो असो नाट्य आविश्कार.

कोंकणी भाशेंतली पयली स्वतंत्र एकांकी म्हळ्यार आचार्य रामचंद्र उर्फ राणू शंकर नायक हाची 'चवथीचो चंद्र' (१९३५) अशें कांय लोक मानतात. तिचो पयलो प्रयोग पणजेंत 'उनियांव आकादेमिक' हे संस्थेन, संस्थेच्या वर्सा दिसा २१ डिसेंबर १९३४ क केलो. तेपयलीं शणै गोंयबाब हाणें 'झिलबा राणो' (१९३६) हो अरेबियन नाइट्सांतल्या अबू हसनचे काणयेच्या आदारान बरयल्लो हासौणो खेळ, मुंबयंत १७ नोव्हेंबर १९३३ दिसा बरोवन ३ डिसेंबर १९३३ दिसा गिरगांवांत, गोंयकार हिंदू सभेच्या वर्सुकी संमेलनांत तिचो पयलो प्रयोग केलो.

आचार्य राणू नायक हाणें उपरांत बरयल्ल्यो सगळ्यो एकांकी म्हळ्यार चड करून परकी भाशेंतल्या एकांकीचे अणकार वा रुपांतरां: 'रायबान्याची व्हाड्डीक' (१९५४), 'दामू कुराडो' (१९५५), 'सोनुदादालो संवसार' (१९५६-पोर्तुगेज), 'एक हजार आनी तेऔस' (१९५५, ह्यूलियू दान्तश (१०२३) हाच्या खेळाचेर आदारीत), 'म्हजो सर्गार आसल्लो घरकार' (१९५६ - पोर्तुगेज-आंद्रे ब्रुन) आनी 'एकापरस एक हटी' (१९५६ जर्मन). हातूंतली 'एक हजार आनी तेऔस' ही गंभीर स्वरुपाची जाल्यार हेर सगळ्यो विनोदी. तेभायर मुंबयसावन भास्य सरपी 'साद' च्या ऑगस्ट १९५३ च्या अंकांत ताची 'शिकयल्ली शिकवण' ही एकांकी उजवाडाक आयली. संवादांतलें घोटीवपण, भाशेची गिरेस्तकाय आनी वास्तव पात्रां ह्या गुणांक लागून आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हाच्यो एकांकी १९७५ मेरेन कोंकणी रंगमाचयेचेर रंगत रावल्यो.

वसंत कारे हागेल्यो 'रिटेदाद', 'नबत', ('साद'- फेब्रेर १९५४), गोपीनाथ विसु आरसेकार हाची 'खळ्ळू पै लो दिवटो' (१९४४), डी. व्ही. काणेकार हागेली 'म्हाळूदादाली फुंकणी' (१९५१) ह्यो एकांकी तशें पळेल्यार 'चवथीच्या चंद्रा' पयलीं तयार जाल्ल्यो. पूण त्यो साहित्यीक कसाक उतरल्यो नात.

१९४८ वर्सा कर्नाटक, मंगळूर हांगा लुईस मास्कारेन्यस हाणें बायबलांतले आब्रांवाचे काणयेच्या आदारान 'आब्रांवालो यज्ञदान' हें काव्य-नाट्य उजवाडायलें. कानडी लिपयेंतल्या आर्विल्ल्या कोंकणी साहित्याचो लुईस मास्कारेन्यस हो बापूय अशें मानतात.

१९५० ते १९६० ह्या दशकांत मुंबय आंतरमहाविद्यालयीन पांवड्यार कोंकणी एकांकीन बरीच उदरगत केली. आंतरमहाविद्यालयीन सर्ती हेर भासांवरीच कोंकणीतय जावंक लागल्यो आनी ह्यो एकांकी 'विद्या' ह्या वर्सुकी नेमाळ्यांत उजवाडाक येवंक लागल्यो. १९५३ त मुंबयचे आकाशवाणीचेर कोंकणी विभाग सुरू जालो. थंयूय कोंकणी एकांकी श्रुतिकांक वाव मेळ्ळो. 'साद', 'प्रजेचो आवाज', 'साळोक' आदी नेमाळ्यांनी त्यो उजवाडाक आयल्यो. रघुवीर नेवरेकार, शंकर भांडारी, किसन कामत, अ. ना. म्हांबरो, उदय भेंब्रो, विश्वनाथ संझगिरी हांणी ह्या मळार बुन्यादी वावर केलो. रघुवीर नेवरेकार हाच्यो 'पोपेबाबाली मुंबय' आनी 'कोडुनिंब', किसन कामत हाच्यो 'दोन आनी दोन' (१९६८) ह्या संग्रहांतल्यो चार एकांकी, संझगिरीच्यो 'कर्तव्य' आनी 'भुरग्यांली मळणी', शंकर भांडारीच्यो 'शेट श्रृंगारता', 'भाव म्हणचो म्हय धाकलो' आनी हेर एकांकी खूब गाजल्यो. ह्या सगळ्यांमदीं प्रायोगिक कोंकणी एकांकीक फुडें व्हरपी चड म्हत्वाचो नाटककार म्हळ्यार किसन कामत. १९५० ते १९६० ह्या दशकांत गोंयचे आकाशवाणीचेर पुंडलीक नारायण दांडे हाणें जायत्यो कोंकणी श्रृतीका बरयल्यो. पूण त्यो आज संग्रहीत वा मेकळ्या रुपांतय हाताक लागनात.

१९६१ च्या डिसेंबरांत गोंय मेकळें जालें आनी गोंय हें कोंकणीचें कार्यक्षेत्र जालें. कोंकणीच्या कांय म्हालगड्यांनी हेर साहित्यप्रकारावांगडा एकांकीय बरयल्यो. मनोहरराय सरदेसाय- 'आयज रे धोलार पडली बडी' (नृत्यनाट्य- १९६०), 'स्मग्लर' (१९७५), रवीन्द्र केळेकार- 'मुक्ती' (१९७५) आनी 'तीन एके तीन'; चंद्रकांत पार्सेकार- 'देंवचार' (१९६९) आनी हेर कोंकणी एकांकी, अशोक कामत- 'कोण कोणाचो न्हीं', 'म्हजी भूंय म्हजो मोग', 'अशोकांकी' (१९६८-१९७५ ह्या काळांत उपसंग्रह) उजवाडाक आयले. रघुवीर नेवरेकार आनी किसन कामत हांच्या 'बाप्पा' हे व्यक्तिरेखेभोंवतणी प्रहसनात्मक विनोदी एकांकी रचपाची चाल डॉ. विनय सुर्लेकार हाणें खूब फुडें व्हेली. 'सात मजली हांसो', 'खांवचीं पानां', 'बाप्पाली गांथन' हे संग्रह आनी हेर जायत्यो प्रहसनात्मक एकांकी डॉ. सुर्लेकारान बरयल्यो.

१९६८ वर्सा सावन गोंयची कला अकादमी, विद्यालयीन आनी महाविद्यालयीन एकांकी सर्ती घेवंक लागले आनी कोंकणी एकांकीच्या मळार एक क्रांतीच जाली. जायते नवे एकांकीकार फुडें आयले. तातूंतलोच पुंडलीक नारायण नायक हो एक. ताचे 'मर्णकटो' हे अखिल भारतीय नभोनाट्य सर्तीचें १९८० वर्साचें पयलें इनाम मेळ्ळें आनी उपरांत 'चौरंग' (१९८३) ह्या संग्रहाक साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळिल्ल्यान कोंकणी एकांकीक राश्ट्रीय मान्यताय मेळ्ळी. ताच्या आकाशवाणीवेल्या नाटकुल्यांचो संग्रह 'आकाशमंच' (१९८७) उजवाडाक आयलो.

फाटल्या धा-पंदरा वर्सांच्या काळांत जायत्या जाणांनी एकांकी बरयल्यात. पूण संग्रह मात चड उजवाडाक येवंक नात. दत्ता नायक 'कावळेमाम कावळेमाम' (१९८३), मधुसूदन बोरकार- 'हांसोळ', हेमा नायक- 'भायली गोडी' (१९८४), प्रकाश थळी- 'तीन खेतीं शाणीं सुरतीं' (१९८७), दत्ताराम कामत बांबोळकार- 'वनमहोत्सव' (१९८९), चा. फ्रा. द कॉश्ता- 'सुणें माजर हांसता' (१९८८), जयमाला दणायत- 'सप्तक', दिलीपकुमार वि. नायक- 'आजून शाळा सुटूंक ना', राजू दा. नायक- 'खुरीस उबारूंकूंच जाय', श्रीधर कामत- 'इंतेर', धर्मानंद वेर्णेकार- 'एक जयराम साजुलो अडवलपालकार' ह्यो कांय उल्लेखनीय एकांकी.

शाळा- कॉलेजीच्या गॅदरींगांनी आनी कालो सारक्या उत्सवांनी तशेंच तालुका पांवड्यावेल्या सर्तींनी भरत नायक हाची 'वेंचणूक' ही एकांकी खूब गाजली. ताचे 'भेरें भेरें टुणटुणें', 'बॉबी न्हिदता तेन्ना', 'चपलाहार', 'तिसरे माळयेर बस' आनी 'चामट्याक चिमटो' हे संग्रह उजवाडाक आयल्यात.

कृष्णनाथ आळवणी- 'आमी सगळीं देड शाणीं', उल्हास पै रायकार- 'बोमो द ग्रेट', रामदास नायक- 'कावळे' हांणी शालेय एकांकी बरयल्यात. गोकुळदास मुळवी, सुहास सावर्डेकार, तानाजी हळर्णकार, शैलेशचंद्र रायकार, जे. एल्. गोयस, मीना काकोडकार, नयना आडारकार, अभयकुमार वेलींगकार, अशोक भोंसलो, एन्. शिवदास, दिलीप बोरकार, उपेन्द्र तिंबलो (अनिरुध्द बीर), तुकाराम शेट आनी हेर जायत्या जाणांनी एकांकी साहित्य रचलां. रामकृष्ण जुवारकार, सुरेश काकोडकार, पुरुषोत्तम शिंगबाळ, रवीन्द्र नमशीकार हांणी कांय अणकारीत तर कांय स्वतंत्र एकांकी संहिता निर्मिल्यात.

तियात्र शैलींतली एकांकी, हो एक वेगळो नाट्य प्रकार आसुंये. पूण तियात्राची मूळ संहिता एकांकीक सामकी लागींची आसा. तोमाझिन्य कार्दोझ हाणें 'एक आंक नाटकुली' हो संग्रह आनी फा. फ्रेडी द कोश्त

हाणें वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी जायत्यो एकांकी उजवाडायल्यात. फा. फ्रेडी हो किसन कामत आनी डॉ. विनय सुर्लकार हाची 'बाप्पा' व्यक्तीरेखेची परंपरा मुखार चलयता. जॉनी एम्. हो तरणाटोय अशे तरेच्यो तियात्री-एकांकी बरयता. ताची 'श्राप' एकांकी खूब गाजली. गोंयाभायर महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांनीय कोंकणी नाटककार एकांकी बरयत आसात. मुंबयचो देवराय बैंदूर अय्यंगळ, कर्नाटकांत बाबू टी. नायक, दांडेलीचो के. एन्. राव., मंगळूरचे बि. वी. बालिगा, मोहन भंडारी, अनील पै, कुमठाचो सदानंद पुराणीक, वासुदेव शानभाग, नरहरी प्रभू हांणीय एकांकी बरयल्यात.

कर्नाटकांत इगर्जी भोंवतणी कोंकणी एकांकीक पोसवण मेळ्ळया. व्ही. जे. पी. साल्दान्य, डॉल्फी लोबो, काल्सीय-मार्टीन डिसा, एस्. एस्. मिरांडा, फ्रेड फेर्नांदीश, सिरील व्हिएगस, विल्फ्रेड रिबिंबस हीं कांय ठळक एकांकीकारांचीं नांवां.

केरळांत एकांकीची व्हडलीशी परंपरा नासली, तरीय नारायण नरसिंह पै (१८७९-१९५९) सारक्यांनी थंय कांय नाटकां आनी एकांकी दाखयल्यात. मंगळूर, धारवाड, रेडिओ केंद्रांनीय अदींमदीं कोंकणी श्रुतिका वितरायतात.

- प्रकाश थळी

**एकादस:** दरेक म्हयन्याच्या शुक्ल आनी कृष्ण पक्षांतले इकरावे तिथीक 'एकादस' ह्या नांवान वळखतात. तिका 'हरिदिनी' अशेंय म्हण्टात. ही तीथ विष्णूदेवाक भोव आवडटा, म्हूण हे तिथीक विष्णूची तीथ मानतात.

**उत्पत्ती:** एकादशीचे उत्पत्तीविशीं दोन पुराणकथा सांगतात- मृदुमान्य नांवाचो एक राकेस शंकराक प्रसन्न करून घेवंक तप करतालो. तेन्ना शंकरान प्रसन्न जावन ताका वर दिलो 'तुका कोणाचकडल्यान मरण येवचें ना, सगळ्या देवांक तूं झुजांत हरयतलो, पूण जर तुका मद भरलो जाल्यार मात एके बायलेच्या हातान तुका मरण येतलें.' हो वर मेळटकच मृदुमान्यान देवांकडेन झूज करून विष्णूसयत सगळ्या देवांक हरयले. देव भियेवन शिवाकडेन गेले. शिवाच्यानूय कांयच करूंक जायना हें पळोवन ते एके होंवरींत वचून लिपले. थंय तांच्या सगळ्या एकठांय जाल्ल्या उस्वासांतल्यान एक देवी तयार जाली. तिचेंच नांव 'एकादस'. त्या दिसा खूब पावस पडटालो. देखून सगळ्यांचें आपशींच न्हावप जालें. होंवरींत आशिल्ल्यान उपासूय घडलो. एकादशीन सगळ्या देवांक अभय दिलें आनी मृदुमान्याक जितो मारलो.

एकादशीचे उत्पत्तीविशीं दुसरी एक पुराणकथा सांगतात ती अशी- एकदां मुर नांवाचो एक राकेस विष्णू देवाचेर चाल करून गेलो. विष्णून सगळ्या देवांसयत ताचे वांगडा झूज केलें. पूण तांचें कांयच चल्लें ना. विष्णू बदिराकश्रमांत वचून एके होंवरीत लिपलो. थंय ताका अस्त्रांनी भरिल्ली सुंदर बायल दिसली. मुर जेन्ना विष्णू फाटल्यान थंय आयलो तेन्ना ते बायलेन आपले गर्जनेनूच ताका जितो मारलो. खोशी जावन विष्णून ते बायलेक वर मागूंक सांगलो तेन्ना 'जो कोण एकादशीचो उपास करता ताका तूं सदांच पाव' अशें तिणें मागलें. विष्णून 'तथास्तु' म्हळें.

वैष्णव, शैव, सौर ह्या सगळ्या हिंदूंक एकादशीचें व्रत लागता. तशेंच विष्णुभक्तांकूय हें व्रत लागता. एकादशींत 'स्मार्त' आनी 'भागवत' अशे दोन पंथ आसात. ज्या पक्षांत हे दोन भेद येतात, तेन्ना पंचागांत पयल्या दिसा स्मार्त आनी दुसरे दिसा भागवत अशें बरयल्लें आसता. स्मार्त ही तीथ पयले दिसा येता आनी भागवत ही दुसरे दिसा येता. चडशे वैष्णव लोक भागवत एकादस पाळटात. ह्यो एकादशी केन्ना मानप तेविशींचें विवेचन धर्मसिंधु, निर्णयसिंधु आदी ग्रंथांत दिल्लें आसा. मदल्या काळांत भूलपाणीन 'एकादशी विवेक' आनी रघुनंदनान 'एकादशी तत्त्व' हे ग्रंथ फकत एकादशीचेर बरयल्यात. हे भायर 'व्रतराज' आनी 'कालतत्त्व विवेचन' ह्या ग्रंथांतूय एकादशीविशीं कांय म्हायती मेळटा.

दरेक म्हयन्यांत दोन अश्यो वर्सांत २४ एकादशी येतात. तातूंत शुक्ल पक्षांतल्यो एकादशी अश्यो आसातः कामदा, मोहिनी, निर्जला, शयनी, पुत्रदा, परिवर्तिनी, पाशांकुशा, प्रबोधिनी, मोखदा, प्रजावर्धिनी, जयदा आनी आमलकी. कृष्ण पक्षांतल्यो एकादशी अशो आसातः पापमोचनी, वरुथिनी, अपरा, योगिनी, कामिका, अजा, इंदिरा, रमा, फलदा, समला, षटतिला आनी विजया. जेन्ना अदीक म्हयनो येता तेन्ना येवपी दोनूय एकादशींक कमला अशें म्हण्टात.

**एकादशीचे प्रकार:** नित्य आनी काम्य अशे एकादशीचे दोन भेद आसात.

सत्यं सर्वाणि पापानि ब्रह्महत्यादिकानि च।
सन्त्येवैदनमाश्रित्य श्रीकृष्णव्रतवासरे।।

(ब्र. वै. कृष्णजन्मखंड, २६.२३)

अर्थः एकादशीच्या दिसा सकाळीं ब्रह्महत्येसारकीं पातकां अन्नाचो आलाशिरो घेवन रावतात. (जो मनीस त्या दिसा अन्न भक्षण करता, ताका तीं पातकां लागतात).

वर्साच्यो चोवीसूय एकादशी नेमान करप आनी त्या दिसा विष्णुपूजा, जागरण, हरिकथाश्रवण आदी गजाली करप, हें नित्यव्रत आसा.

कात्यायनान काम्य एकादशीविशीं अशें म्हळां.

संसारसागरोत्तारमिच्छन् विष्णुपरायणः।
ऐश्वर्यं सन्ततिं स्वर्गं मुक्तिं वा यद्यदिच्छति।
एकादश्यां न भुञ्जीत पक्षयोरुभयोरपि।।

अर्थः ज्या कोणाची विष्णुपरायण जावन संवसारसागरांतल्यान मुक्त जावपाची इत्सा आसा वा गिरेस्तकाय, संतत, स्वर्ग, मोक्ष वा हेर कसलीय इत्सा आसता, ताणें एकादशी दिसा अन्न खावप नासता.

दोनूय एकादशींक उपास करप हो नेम रानांत रावपी ऋषीमुनींक लागता. मनशान फकत शुक्ल एकादस करची, अशें निर्णयसिंधूत देवल हांचें मत आसा. पूत आशिल्ल्या बापायन कृष्ण एकादशीचो उपास करचो न्हय, अशें नारद म्हण्टा. विधवा बायलेन दोनूय एकादशी दिसा उपास करचो. हेमाद्रीन दोनूय पक्षांतल्या एकादशींचो अधिकार सगळ्यांक दिला. जाची पिराय आठ वर्सां सकल आनी ऐंशीं वर्सां परस चड आसा, ताका एकादशीच्या उपासाचो नेम लागू जायना, अशें नारद म्हण्टा.

**एकादशीचें फळ:** पद्मपुराणाच्या आदिखंडांत एकादशीच्या उपासाचें फळ अशें सांगलां:

अश्वमेधसहस्त्राणि राजसूयशतानि च।
एकादश्युपवासस्य कलौ नार्हन्ति षोडशीम्।।
स्वर्गमोक्षप्रदा ह्येषा शरीरारोग्यदायिनी।
सुकलत्रप्रदा ह्येषा जीवत्पुत्रप्रदायिनी।।
न गङगान गया भूप न काशी न च पुष्करम्।
न चापि वैष्णवं क्षेत्रं तुल्यं हरिदिनेन च।।
यमुना चंद्रभागा न तुल्या हरिदिनेन तु।
अनायासेन त्रेनाये प्राप्यते वैष्णवं पदम्।।

अर्थः एकादशीच्या उपासाक जें म्हत्व आसा तें हजारांनी अश्वमेधांक आनी शेंकड्यांनी राजसूयांक ना. एकादस केल्यार स्वर्ग, मोक्ष, भलायकी, बरी बायल, बरो घोव, पुत्रप्राप्ती आदी फळां मेळटात. गंगा, गया, काशी, पुष्कर, वैष्णवक्षेत्र, यमुना, चंद्रभागा हातूंतल्या कोणाकूच एकादशीची बरोबरी करूंक येवंची ना. त्या दिसा उपास केल्यार सहज वैष्णवपद मेळटा.

आषाढ शुध्द एकादशीक 'महाएकादस' वा 'शयनी एकादस' म्हण्टात. ह्या दिसा विष्णू शयन करता म्हूण तिका 'शयनी' अशें नांव पडलें. कार्तिक शुध्द एकादशीक विष्णू जागो जाता, म्हूण तिका 'प्रबोधिनी' म्हण्टात. आषाढी आनी कार्तिकी एकादशींक महाराष्ट्रांतल्या वारकरी पंथांत चड म्हत्व आसा. मार्गशीर्ष शुध्द एकादस 'गीता जयंती' म्हूण मनयतात. दरेक वाठाराप्रमाण एकादशीव्रत पाळपाचे प्रकार वेगवेगळे आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**एकेश्वरवाद:** (Monotheism). जातूंत एकाच ईश्वराचें विधान आनी

एकाच ईश्वराचेर भावार्त आसता तो. ईश्वर एक आसा, तोच परमात्मो आसून तोच जगाचें सृश्ट- स्थिती-प्रलय घडोवन हाडटा, तो नित्य ज्ञान आनी नित्यानंद स्वरुप आसा, तो निर्दोश आसून साबार गुणांचें भांडार आसा, अशी एकेश्वरवादाची धारणा आसा. हेर खंयचेच देव मानीनासतना एकट्याच परमेश्वराची उपासना करची, असोय आग्रो ह्या मतांत आसा. एकेश्वरवाद हो अनेक देवतांक भजपी बहुदेवतावाद आनी ताच्यासारक्या हेर धर्मसंप्रदायांक विरोध करता आनी उजू चलणूक श्रेश्ठ आसा अशें सांगता. दैवी साक्षात्काराचो आदार घेवन एकेश्वरवाद हो बहुदेवतावादापरस वेगळो अशें मानतात.

ऋग्वेदांत एकेश्वरवादाचीं बीजां मेळटात. ऋग्वेदासावन महाभारताच्या काळामेरेन एकेश्वरवादाची उदरगत जायत गेल्या. श्वेताश्वतर उपनिषदांत ईश्वरवादाची तात्त्विक फोडणीशी आसा. गीतेंत साक्षात् भगवान श्रीकृष्णान आपल्या मुखांतल्यान ईश्वरवादाची महती गायल्या (१८.६१-६२). पांचरात्र, शैव आनी शाक्त ह्या संप्रदायांत लेगीत ल्हवल्हव एकेश्वरवाद दृढ जायत गेला. सगुणब्रह्मवाद्यांत रामानुजान नारायणाक, मध्वान विष्णूक आनी हेर कितल्याशाच संप्रदायांनी कृष्णाक एकमेव ईश्वर मानला. रामानंद, कबीर, तुलसीदास हे रामाचे भक्त प्रभू रामाक एकमेव ईश्वर मानतात. गुरु नानक हाणें लेगीत एकेश्वरवाद मानला. वैदिक आनी पुराणधर्मांतले कांय संप्रदाय कितल्याशाच देवतांचें अस्तित्व मान्य करून तातूंत सगळ्यांभितर एक सगळ्यांत श्रेश्ठ असो देव म्हळ्यार परमेश्वर मानतात जाल्यार किरिस्तांव, ज्यू आनी इस्लाम धर्मांत हेर देवतांचें अस्तित्व न्हयकारून एकमेव परमेश्वर मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

## एक्लिस, सर जॉन (कॅन्यू):

(जल्मः २७ जानेवारी १९०३, मेलबोर्न-ऑस्ट्रेलिया).

नामनेचो शरीरक्रियावैज्ञानिक. १९२५ वर्सा ताणें मेलबॉर्नची वैजकी पदवी मेळयली. उपरांत ताणें ऑक्सफर्डाक (इंग्लंड) वचून १९२९ वर्सा, डी. फिल. ही पदवी मेळयली. १९२९ ते १९३४ ह्या काळांत ताणें ऑक्सफर्डाक काम केलें. १९३४ ते १९३७ वर्सा मेरेन तो थंयच्यान मॅगडालेन महाविद्यालयांत फेलो आशिल्लो. १९३७ वर्सा, तो परत ऑस्ट्रेलियांत आयलो आनी १९४४ मेरेन ताणें सिडनी हॉस्पिटलाचे वैजकी संशोधन संस्थेत संचालक म्हूण काम केलें. फुडें १९४४ ते १९५१ मेरेन न्यूझीलँडातल्या ड्यूनेडीन हांगासल्ल्या ओटागो वैजकीय विद्यालयांत शिकोवपाचें काम केलें. उपरांत कॅनबेराच्या राश्ट्रीय विद्यापीठांत शरीरक्रियाविज्ञान विशय शिकोवपाखातीर ताची नेमणूक जाली.

'उपागम' स्थानांत (synapse) संवेदना संचरण कशें जाता हाचेर ताणें संशोधन केलें. ताणें आनी ताचे वांगडी ए. एल्. हॉजकिन आनी ए. एफ्. हक्सली हांणी कोशिकेच्या वेल्या भागावेलो विद्युत्‌भार उत्तेजक संवेदनाखातीर कमी जाता आनी रोधक संवेदना खातीर हो भार वाडटा अशें दाखोवन दिलें. ह्या तांच्या संशोधनाखातीरच तांकां तिगांकूय १९६३ चें वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञान विशयाखातीर आशिल्लें नोबेल इनाम फाव जालें.

एक्लिसाच्या ज्या कांय ग्रंथांक नामना मेळ्ळ्या, ते अशेः 'द न्यूरोफिजिऑलॉजिकल बेसिस ऑफ माइंडः द प्रिन्सिपल्स ऑफ न्यूरोफिजिऑलोजी' (१९५३), 'द फिजिऑलॉजी ऑफ नर्व्ह सेल्स' (१९५७) आनी 'द फिजिओलॉजी ऑफ सायनॅप्सेस' (१९६४). १९४१ वर्सा ताका रॉयल सोसायटीचो फेलो म्हूण नेमिल्लो. १९५८ वर्सा ताका 'नाईट' (Knight) हो किताब मेळ्ळो. १९५७ ते १९६१ ह्या काळांत तो 'ऑस्ट्रेलियन अकादेमी ऑफ सायन्सेस' हे संस्थेचो अध्यक्ष आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## एचॅगारे खॉसेः

(जल्मः १९ एप्रिल १८३२, माद्रिद-स्पेन; मरणः ? सप्टेंबर १९६१, माद्रिद).

नामनेचो स्पॅनिश नाटककार, गणितज्ञ, अर्थशास्त्रज्ञ आनी राजकारणी. सुर्वेक ताणें अभियांत्रिकीच्या मळार आनी उपरांत अर्थशास्त्र आनी राजकारण ह्या मळांचेर काम केलें.

१८६८ वर्सा स्पेनच्या मंत्रिमंडळांत तो मानादीक पदाचेर आशिल्लो. १८७४ ते १९०५ ह्या काळांत ताणें साठांपरसूय चड नाटकां बरयली आनी एक बरो नाटककार म्हूण नांव मेळयलें. १९०४ वर्सा ताका फ्रेदेरीक मिस्त्राल हाचेवांगडा साहित्याचें नोबेल इनाम वाटून मेळ्ळें.

**'O locura O santidad'** (१८७६; इंग्लीश अणकार 'मॅडमन ऑर सेंट' १९१२, आनी **'El gran Galeoto'** (१८८१; इंग्लीश अणकार- द वर्ल्ड अँड हिज वाइफ' १९०८) ह्या ताच्या दोन नाटकांक बरीच नामना मेळ्ळ्या. ताचीं सुर्वेचीं नाटकां चडशीं नव-स्वच्छंदतावादी आसात. उपरांत समस्याप्रधान वास्तववादी नाटकांचो काळ येतकच तो त्या प्रकारचीं नाटकां बरोवंक लागलो.

ताच्या नाटकांचेर ह्यूगो, ड्यूमा फीस, इब्सेन, ब्यॉर्नसॉन, ऑगस्ट स्ट्रिंडबर्ग ह्या नामनेच्या नाटककारांचो प्रभाव पडला. तशेंच स्पॅनिश साहित्याच्या भांगराकाळांतल्या प्रणयप्रधान नाटकांचो प्रभाव ताच्या नाटकांनी दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

## एडनः

अरबस्थानांतल्या दक्षिण येमेन राज्यांतलें सगळ्यांत व्हड शार. हें बाब-एल्-मांदेब सामुद्रधुनीचे १७६ किमी. उदेंतेक आशिल्लें एक बंदर. ह्या बंदराक तांबड्या दर्याचे उदेंतेकडलें दार समजतात. ह्या शाराचो एकूण आवांठ २९००८० चौ. किमी. आसा. हांगाचें हवामान चडशें उश्ण आसता. वर्सुकी पावस सादारण ३ इंच आसता.

१५१३ वर्सा आफोंसु द आल्बुकेर्क ह्या पोर्तुगेज अधिकाऱ्यान एडन शार घेवपाचो अपेशी यत्न केलो. १५३८ त ह्या शाराचेर तुर्कांचो अधिकार आशिल्लो. सतराव्या शेंकड्यांत सन्नाच्या सुलतानाचो हांगा शेक चलतालो. फुडें १८३९ वर्सा सावन एडन शार ब्रिटिशांच्या शेकातळा आयलें. आदीं हो ब्रिटीश हिंदुस्थान सरकाराचो शासकीय भाग आशिल्लो. उपरांत एडन संरक्षित प्रदेश जातकच एडन शार ताची राजधानी जालें. १९६७ वर्सा दक्षिण येमेनची थापणूक जातकच राजधानी मेडिनेत अल् शाब हांगा व्हेली, तरी एडन शार हीच दक्षिण येमेनची अनधिकृत राजधानी मानतात.

रोमन काळासावन एक वेपारी ठाणें म्हूण एडन शाराची नामना आशिल्ली. मदल्या काळांतूय तांबड्या दर्याकडल्यान उदेंतेकडेन वचपी आनी थंयसावन येवपी मालाची ही उतारपेठ आशिल्ली. १८६९ वर्सा सुएझ कालवो सुरू जाल्ल्यान एडन शाराचें म्हत्व खूब वाडलें. सद्याक इंग्लंड आनी युरोपसावन उदेंतेकडेन वतना वेपारी बोटी तेल, कोळसो आदी म्हाल घेवपाखातीर एडन हांगा थांबतात. ताकालागून एडनशार म्हत्वाचें वेपारी ठाणें जालां.

हांगाची मुखेल भास अरबी, पूण वेव्हाराची भास इंग्लीश आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## एड्सः

एड्स हो एक घातक रोग जावन आसा. एड्स म्हळ्यार 'एक्वायर्ड इम्यूनो डेफिशियन्सी सिन्ड्रोम' (Acquired Immuno Deficiency Syndrome) ह्या रोगाक लागून मनशाची प्रतिकारशक्त सामकीच उणी जाता. भलायकेन घटमूट आशिल्लो मनीस ह्या रोगाचे व्हायरस कुडींत पावतकच खंयच्याच रोगांचो प्रतिकार करूंक शकना. मनशाच्या रगतांत प्रतिकारजन्य अशे 'टी लिम्फोसायट्स' आसतात तांचेंय प्रमाण उणें जावन कॅन्सर आनी हेर ब्हबरींचशीं दुयेंसां मनशाक सोपेपणान जावंक पावतात.

हो रोग एकेतरेच्या व्हायरसाक लागून जाता. हाका 'रिट्रोव्हायरस' अशें म्हण्टात. पयलीं ह्या व्हायरसाक 'ह्यूमन सॅल ल्यूकोमिया व्हायरस' अशें म्हण्टाले. उपरांत ताका 'ह्यूमन टी लिम्फोट्रोपिक व्हायरस ३'

(HTLV III) अशें म्हणूंक लागले. १९८३ वर्सा फ्रेंच वैज्ञानिकांनी ताचें नांव 'लिम्फोडिनोपेथी अॅसोसिएटेड व्हायरस' (LAV) अशें दवरलें. हालींच आंतरराश्ट्रीय पांवड्याचेर व्हायरसांक नांवां दिवपी संस्थेन (ICTV) एक समिती नेमून ह्या व्हायरसाक 'ह्यूमन इम्यूनोडेफिशियन्सी व्हायरस' (HIV) अशें नांव दिवपाचें थारायलें.

एड्सचे व्हायरस मनशाच्या रगतांत, थुकयेंत, दुकांनी, बायलेच्या दुदांत, मुतांत आनी दादल्याच्या वीर्यांत सांपडटात. बऱ्याच सोदा उपरांत हे व्हायरस मनशाचें रगत आनी वीर्य हातूंतल्यान एकल्यापसून दुसऱ्याचे कुडींत रिगूंक शकतात, अशें सिध्द जालां.

दादलोबायलेचो लैंगिक संबंद हो ह्या रोगाची लागण जावपाचो मुखेल मार्ग आसा. गुदद्वारांतल्यान केल्लो संभोग रोग पातळावपाचो सगळ्यांत चड सर्रास मार्ग आसा. ह्या प्रकारांतल्यान व्हायरस एकदम रगतांत भितर सरतात, आनी भलायकेन बरो आशिल्ल्या मनशाक रोखडोच हो रोग जाता. दादलो बायलेच्या संबंदांत हो रोग दादल्याकडसून बायलेक वा बायलेकडसून दादल्याक जावंक शकता. ह्या रोगाची लागण जावपाची शक्यताय एकापरस अदीक लैंगिक जोडीदार आशिल्ल्यांक चड आसता. हातूंत समिलिंगी संभोगी (Homosexuals) वा परलिंगी संभोगी (Heterosexuals) अशा दोनूय प्रकारचे मनीस ह्या रोगाक बळी पडूंक शकतात. लैंगिक संबंदाभायर रगतांतल्यान हो रोग एकल्याकडल्यान दुसऱ्यामेरेन पातळूंक शकता. देखीक - रोगाचे व्हायरस आशिल्ल्या मनशाचें रगत दुसऱ्याक दित; वा रोग्याचें रगत काडूंक वापरिल्ल्यो सुयो आनी हेर अवजारां रोग जावनाशिल्ल्या मनशाखातीर वापरीत, जाल्यार हो रोग दुसऱ्याच्या कुडींत पावता. घुंवळे वखदां शिरांतल्यान तोंपून घेवपी लोकांकय हो रोग सिरींज वा सुयांवरवीं जावपाची शक्यताय बरीच चड आसता.

गुरवार बायलेचे कुडींत रोगाचे व्हायरस आसल्यार भुरगें जल्माक येवचे पयलीं वा जल्माक येतकच ताका ह्या रोगाची बादा जाता. घुंवळे वखदां घेवपी बायलो आनी एकापरस चड दादल्यांकडेन लैंगिक संबंद दवरपी बायलो, समलिंगी संभोग करपी दादलो वा बायल, एकापरस चड बायलांकडेस लैंगिक संबंद आशिल्ले दादले, हांच्यावरवीं हो रोग पातळटा.

ज्या मनशांक हो रोग जाता तांकां वेगवेगळ्या प्रकारचीं दुयेंसां जावं येतात. रोगाचो व्हायरस कुडींत रिगल्या उपरांत ६ म्हयने ते पांच वर्सांभितर केन्नाय ह्या रोगाचीं लक्षणां दिसूंक शकतात. रोग जाल्ल्या मनशाक कसलेंच लक्षण नाशिल्लें दुयेंस जावन अचकीत जीव वचूंक शकता. चड करून प्रोटोझोआ, हॅलमीन्थ (कृमि), फंगस, बॅक्टेरिया आनी व्हायरस आशिल्ले हेर रोग रोगी मनशाक जातात.

ह्या रोगाच्या लक्षणांभितर थाकाय येवप, जोर येवप, भूक मरप, वजन उणें जावप, पातळ परसाकडेन जावप, रातचो घाम येवप, गळो, खांके आनी जांगांचेर गुटां येवप हीं लक्षणां सहजपणान दिसपी आसात. रोगी मनशाक न्यूमोनिया आनी कातीचेर वा तोंडांत जावपी 'कापोसिस सारकोमा' ह्या प्रकारचो कॅन्सर जावपाची शक्यताय बरीच आसता. हेभायर हेर संसर्गजन्य रोग जावंक शकतात, ते अशे आसात- क्रिपटोक्रोकल इन्फेक्शन (उपसर्ग), मायक्रो बॅक्टेरियल इन्फेक्शन (उपसर्ग), हिस्टोफ्लाजमोसिस, कॉक्सिडाय आयोडोमायकॉसिस, टॉक्सोफ्लाजमीसिस, आयजोस्पोरीयोसिस, कॅन्डीडीयासिस, सायटोमेगालोव्हायरस, हरपीस सिंफ्लेक्स आदी.

मेंदूचेर आनी मज्जातंतूचेर परिणाम करपी घातक दुयेंसांय एड्सची लागण जाल्ल्या मनशाक जावं येतात. हातूंत याद ना जावप, मेनीन्जायटीस, एन्सेफलायटीस, मायलायटीस अशा कांय दुयेंसांचो आस्पाव जाता. सद्या तरी एड्स ह्या रोगाचो पुराय बंदोबस्त करपी एकूय वखद घेवंक ना. ह्या रोगाच्या व्हायरसाक (HIV) आळाबंदा हाडपाखातीर कसलेंच वखद परिणामकारक अशें सिध्द जावंक ना. सूरामीन, रिबावीरीन, फॉस्फोनोफॉर्मेट, एच्. पी. ए. २३, रिफामायसीन, इंटरफॅरॉन आनी एझिलोथायमिडीन हेसारकीं वखदां वापरून एड्स व्हायरसाची वाड थांबोवपाचो यत्न चालू आसा. पूण हातूंतलें खंयचेंच वखद पुरायपणान प्रभावी ना. हेभायर चड तेंप घेतल्यार ह्या वखदांचेय मनशाचे कुडीचेर वायट परिणाम जावं येतात.

कुडीची प्रतिकारशक्त वाडची आनी एड्सची लागण जावंची न्हय, हाकालागून अस्थिमज्जेचें प्रतिरोपण करप (bone marrow transplant इंटरल्यूकिन, इंटरफॅरॉन गॅमा, थायमिक हार्मोन आनी हेर रसायनीक वखदां दिवप ह्या सारके उपाय येवजितात.

एड्स व्हायरसाक आळाबंदा हाडूंक आयजमेरेन जरी यश मेळिल्लें ना, तरीपूण ह्या रोगाआड जतनाय घेवं येता.

एड्स जाल्ल्या रोग्याचेर उपचार करतल्यांनी सदांच हाताक हातमोजे घालून वावरूंक जाय. एक सिरींज वा सूय एकल्या रोग्याक वापरतकच दुसऱ्याक पर्धून वापरची न्हय. एड्स जाल्ल्या रोग्याचे कपडे वा कसलीच वस्त दुसऱ्यान वापरची न्हय. रोग्याचे कपडे लासून उडोवंक जाय. रगत दान करतना वा दुसऱ्याचें रगत घेतना बरीच जतनाय घेवंक जाय. हॉस्पिटलांतल्यो सगळ्यो वस्तू नितळ दवरूंक जाय. कुडीभायर एड्सचे व्हायरस मारून उडोवपाखातीर कांय रसायनांचोय उपेग करतात. हांकां डिस्इन्फेक्टर्स म्हण्टात. हे डिस्इन्फेक्टर्स अशे आसात- क्लोरिन सोडियम हायपोक्लोरायट, क्लोरिन कॅल्शियम हायपोक्लोरायट, क्लोरिन सोडियम डायक्लोसेआयजोसायान्यूरेट, क्लोरामिन, आक्लोहोल इथेनोल, फॉरमाल्डीहायड फॉरमालीन, ग्लुटारल ग्लुटारलडीहायड आदी. रगत, वीर्य वा आंगाच्या खंयच्याय भागाचें प्रतिरोपण करतना पुरायपणान तपासणी करूंक जाय.

एड्स हो रोग सगळ्यांत पयलीं १९८१ त अमेरिकेंत सांपडलो. अॅटलांटा- जॉर्जिया हांगा ५ समलिंगी संभोगी तरणाट्यांक एक वेगळ्याच प्रकारच्या फुफुस्सांच्या रोगाचो संसर्ग जाल्ल्याचें दिसून आयलें. त्याच वर्सा न्यूयॉर्क आनी कॅलिफोर्निया हांगा 'कापोसिस सारकोमा' ह्या कॅन्सराच्या रोगाचेय बरेच रोगी सांपडले, जे समलिंगी संभोगी आशिल्ले.

सद्याक ह्या घातक रोगाचेर संवसारभर बोवाळ चल्ला. वैजकी शास्त्रांतच न्हय, तर सादारण लोकांमदीय ह्या रोगाविशीं विंगडविंगड कल्पना आनी दुबाव पातळूंक लागल्यात. ह्या रोगान कुडीचेरूच न्हय तर मानसिक परिणामय बरोच घडोवन हाडला.

अमेरिका, कॅनडा, अस्तंत युरोप आनी ऑस्ट्रेलिया ह्या वाठारांनी एड्स दुबावित बरेच लोक सांपडल्यात. त्या मानान पुरायपणान उदरगत जावंक नाशिल्ल्या देशांनी ह्या रोगाचें प्रमाण उणे आसा.

भारतांत सद्यामेरेन १६५० रोगी ह्या रोगाक बळी पडल्यात (AIDS Positive cases) म्हणपाचें सिध्द जालां. गोंयांत सुमार १६,४८८ लोकांची दुबावित म्हूण वैजकी तपासणी करतकच ३३ जाणांक ह्या रोगाची लागण जाल्या, अशें समजलां. हातूंत गोंयकार तशेंच गोंयाभायल्या आनी भारताभायल्या गोंयांत रावपी लोकांचो, तातूंतल्या तातूंत भोंवडेकारांचो आस्पाव आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## एडिसन, टॉमस आल्वा:

(जल्मः ११ फेब्रुवारी १८४७, मिलान-ओहायो; मरणः १८ ऑक्टोबर १९३१, ऑरेंज).

नामनेचो अमेरिकन संशोधक. कितल्याशाच नव्या विद्युत्, उजवाड आनी आवाज- उपकरणांचो जनक. ताचें मुळावें शिकप मिशिगनांतले पोर्ट ह्यूरन शाळेंत फकत तीन म्हयनेच जाल्लें. पिरायेच्या १२ वर्सासावन रेल्वेंत संदेशवाहकाचें आनी ते उपरांत १५ व्या वर्सासावन वेगवेगळ्या शारांत तारायंत्राचेर (telegraph) काम करून ताणें आपलो चरितार्थ चलयलो. फाविल्ल्या वेळांत तो अभ्यासांत आनी प्रयोगकार्यांत मग्न रावतालो.

मताची नोंद करपी विद्युत् यंत्राखातीर १८६८ त ताका पयलें पेटंट मेळ्ळें. ते उपरांत थोड्याच वर्सांभितर ताणें एकेच तारेचेर दोन वा चड संदेश एकाच वेळा व्हरपी आनी स्वयंचलित तारायांत्रिक पध्दतींचो तशेंच

टंकलिखाणाच्यो आवृत्त्यो काडपाखातीर विद्युत् लेखणीचो सोद लायलो. हाचोच फुडें 'मिमिओग्राफ' ह्या स्वरुपांत विकास जालो. कार्बन प्रेषकाचो (ध्वनीतरंगांचें विद्युत् प्रवाहात रुपांतर करपी साधनाचो) सोद लावन ग्रॅहॅम बेल हाचो दूरध्वनी **(telephone)** वेव्हारांत उपेगाक हाडपाक ताणें हातभार लायलो.



**एडिसन, टॉमस आल्वा**

एडिसन हाचो परिचित तशेंच सगळ्यांत पयलो सोद म्हळ्यार फोनोग्राफचो (१८७७). ताचो मूळ नमुनो हा ता न घुं व डा व पा च्या टीनच्या पत्र्याचे वृत्त-चितीचो (नळयेच्या आकाराचो) आसलो. धा वर्सांनी ताणें मोटराचेर चलपी आनी मेणाची वृत्त-चि ती का र ताटली आशिल्लो फोनोग्राफ तयार केलो. फुडें सांगिल्लो मजकूर बरोवन घेवपाक मदत करपी 'एडिफोन' ह्या कचेऱ्यांच्या कामकाजाक उपयुक्त आशिल्ल्या उपकरणाचो ताणें सोद लायलो. उद्दीप्त (तापिल्ल्या तंतूंपसून उजवाड दिवपी) दिवो तयार करपाखातीर ताणें केल्ले कितलेशेच प्रयोग निर्फळ जाले. पूण अखेरेक २१ ऑक्टोबर १८७९ दिसा कंवचेच्या निर्वात **(vacuum)** बोमाड्यांत दवरिल्ल्या कार्बनयुक्त कापसाच्या धाग्याचो उद्दीप्त दिवो तयार करपाक ताका यश आयलें. फुडल्या १० वर्सांत ताणें विजेवरवीं उजवाड, उश्णताय आनी शक्ती हांचे निर्मितीखातीर आनी वितरणाखातीर तीन तारांच्या पध्दतींचो सोद लायलो. विद्युत् जनित्र **(dynamo)** आनी मोटर हातूंत सुदारणा केल्यो आनी विद्युत् रेल्वेच्या उदरगतीखातीर मदत केली.

१८९१-१९०० ह्या काळांत ताणें लोह खनिजांची सांद्रता **(concentration)** चुंबकीय पध्दतीन वाडोवपाविशीं संशोधन केलें. तेउपरांत ताणें शिशाच्या संचायक विद्युत् घटापरस बरोच ल्हव असो एक नव्या प्रकारचो निकेल हायड्रेट (धन अग्र+), आयर्न ऑक्साइड (ऋण अग्र-) आनी पोटॅशियम हायड्रॉक्साइड (विद्राव) उपेगांत हाडपी संचायक विद्युत् घट **(storage cell)** तयार केलो. १८९१ त ताणें प्राथमिक स्वरुपाच्या चलच्चित्रपट कॅमेऱ्याचें (किनेटोस्कोपिक कॅमेरा) आनी उपरांत चलच्चित्रपट पड्ड्याचेर दाखोवपी प्रक्षेपकाच्या **(projector)** पेटंटाखातीर अर्ज केलो. उद्दीप्त दिव्याच्या गोलकांत (हालींच्या इलेक्ट्रॉनिक नळयेचें प्राथमिक स्वरुप) एक धन विद्युत् भारित धातूचो पटो बसयल्यार दिव्यांतल्या तापिल्ल्या तंतूंपसून (ऋण अग्र-) धातूच्या पत्र्याकडेन (धन अग्र+) विद्युत् प्रवाह व्हांवता असो ताणें १८८३ त सोद लायलो. हाकाच 'एडिसन परिणाम' अशें म्हण्टात. पूण ताचो वेव्हारीक उपेग कांयच जालोना म्हूण ताणें तातूंत फुडें संशोधन केलें ना. १८८५ त ताणें धांवपी आगगाडयेंतसून वा जहाजांतसून प्रवर्तनान **(induction)** तारायंत्र संदेश धाडपाचें पेटंट मेळयलें. पयल्या म्हाझूजकाळांत ताणें अमेरिकन सरकाराक नावीक प्रस्नांविशीं आनी फिनॉल आनी हेर रसायनांच्या निर्मितीखातीर मदत केली.

१९२७ त नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसच्या सदस्यत्वाचेर वेंचणूक जावन एडिसन हाका ताच्या फुडल्या वर्साच अमेरिकेन काँग्रेसवरवीं भांगरापदकाचो भोवमान मेळ्ळो. फ्रांस, इटली आनी ग्रेट ब्रिटन ह्या देशांकडल्यान ताका खूब भोवमान मेळ्ळे. ताणें सुर्वेक मेन्लो पार्क हांगाच्या आनी उपरांत ऑरेंज, न्यू जर्सी हांगचे स्वताचे प्रयोगशाळेंत विंगडविंगड सोद लावपाखातीर ५० वर्सांपरस चड काळ काम केलें आनी एप्रिल १९२८ मेरेन १०३३ पेटंटां मेळयलीं.

- कों. वि. सं. मं.

**एप्रिलः** ग्रेगॉरियन कॅलेंडरांतलो ३० दिसांचो चवथो म्हयनो. रोम्युलसान ३०, पाँपिलिअसान २९, ज्युलियस सीझरान परत ३० अशे हाचे दीस थारायले. रोमनांचो हो दुसरो आनी लॅटीन कॅलेंडरांतलो पयलो म्हयनो आसून तातूंत ताचे ३६ दीस आशिल्ले. पयलींच्या काळांत एप्रिलाक निरोनियस, ईस्टर अशींय नांवां आशिल्लीं. रोमन देवता ॲफ्रोडायटी (अर्थः फुलप) ह्या लॅटीन शब्दावेल्यान 'एप्रिल' नांव पडलां आसूंक जाय.

हिंदु पंचांगाप्रमाण फाल्गुनांत वा चैत्रांत एप्रिल म्हयनो सुरू जाता. हाचे १३ तारखेक मेषसंक्रांत आसता. रोमचो वाडदीस, गुड फ्रायडे आनी ईस्टर हे सण आनी निसान ह्या हिब्रू म्हयन्यांतल्या ज्यूंचो पेसाह हो सण एप्रिलांत येता.

- कों. वि. सं. मं.

**एप्रिल फूलः** एप्रिल म्हयन्याची पयली तारीख. हो दीस किरिस्तांव समाजांत फकाणाचो दीस वा मौज-मजा करपाचो दीस म्हूण मनयतात. ह्या दिसा एक फकाणांची हूल उठयतात. ती हूल खरी मानून जो फटवता, ताका 'एप्रिल फूल' केलो अशें म्हण्टात. शेक्सपियर, सिफ्ट, चार्लस, लॅब सारक्या नामनेच्या साहित्यकारांनी 'एप्रिल फूल' दिसा जावपी फकाणांचो उल्लेख केला. ही चाल सगळ्या युरोपियन राश्ट्रांनी तशेंच किरिस्तांव धर्म आशिल्ल्या हेर राश्ट्रांनी पावल्या. भारतांतूय एप्रिलफूल दीस किरिस्तांव समाजावांगडा हेर धर्मीय, फकाणां-मजा करून मनयतात.

हे प्रथेची सुरखात कोणे आनी केन्ना केल्ली हाचो उल्लेख खंयच मेळना. पूण कांय लोक हे प्रथेचो संबंद रोमांतल्या व्हीनस आनी फॉर्चुना व्हिरिलस ह्या देवतांच्या उत्सवाकडेन लायतात. ग्रेगॉरियन पंचांग १५६४ सालांत सगळ्यांत पयलीं फ्रांसान आपणायतकच एप्रिल-फूलाचे प्रथेक सुरखात जाली आनी १६०० वर्सामेरेन हेर भागांतय पावली. नव्या पंचांगाप्रमाण, १ जानेवारी हो वर्साच्या आरंबाचो दीस मानताले. तेपयलीं जें पंचांग आसलें, तातूंत नव्या वर्साचो आरंब १ एप्रिल अशें मानताले. नवें पंचांग चडशा भौसान आपणायलें, पूण समाजांतले पोरन्या चालींचे अभिमानी, पोरन्या चालींक दसून रावले. तेवरवीं हे लोक समाजाभितर फकाणांचो विशय जाले. ते ज्या दिसा नवें वर्स मनयताले, त्या दिसा तांकां नवे चालीचे लोक फटीच्यो भेटी, पागणां धाडून फटोवपाक लागले. पोरने चालीच्या लोकांची पिळगी सोंपली तरी एकामेकांक फटोवपाची परंपरा चालूच उरली. फुडें हे चालीन व्हड रुप घेतलें आनी पुराय संवसारभर ती पातळ्ळी.

कांय लोक हे चालीक लूच्या वसंतोत्सवाची याद मानतात. पूर्विल्ल्या रोमांतल्या हिलेरिया आनी भारतांतल्या होळयेच्या उत्सवाचें एप्रिल फुलाकडेन लागींचें सारकेपण आसा. होळी आनी हिलेरिया ह्या उत्सवांप्रमाण हो 'एप्रिल फूल' वसंत ऋतूच्या आरंबाक मनयतात.

एकामेकांक फटोवपाचो दीस, जो १ एप्रिल दिसा पाळटात ताका इंग्लंडांत 'एप्रिल फूल', स्कॉटलंडांत 'एप्रिल गॉक' आनी फ्रांसांत 'प्वासाँ दाव्रिल' (एप्रिल फिश) म्हण्टात. ब्रिटीश राजवटीवांगडा ही चाल भारतांतूय आयली. हे चालीक हांगा 'मुर्खांचो दीस' ह्या दुसऱ्या नांवांनूय वळखतात. मेक्सिकोंत २८ डिसेंबर दिसा उश्णी घेतिल्ली वस्त परती दिनात. ही चाल एप्रिल फूलच्या चालीसारकीच आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**एरंडः** (मराठी-एरंड; हिंदी- अरंड; गुजराती-तिर्की, एरंडी; कन्नड- हरळ्ळ; संस्कृत-एरंड, चित्रबीज, त्रिपुटीफल; इंग्लीश-कॅस्टर ऑइल प्लँट; लॅटीन-रिसिनस कम्युनिस; कूळ-युफोर्बिएसी). उंचाय सुमार

३.५ मी. हो रुख मुळचो आफ्रिका देशांतलो. उश्णकटिबंधांतल्या जायत्या देशांनी ह्या रुखाची लागवड केल्ली दिश्टी पडटा. हें झाड एक वर्सभर वा जायतीं वर्सां उरता. ह्या रुखाचें कांड खुसखुशीत आसता. पानां हाता आकाराचीं, एकामेकांसावन वेगळायल्लीं, कांटेरी खांचीं आशिल्लीं आनी लांब देंठांचीं आसतात. पानांच्या पोंदा, देंठांचेर आनी कांडाचेर गोबरी सया आसता. रुखाच्या पोंतार डिसेंबर-मार्च म्हयन्यांत उब्या तुऱ्याचेर एकलिंगी पाचवीं फुलां येतात. पु-पुष्प सकयल्या भागांत आसता आनी स्त्रीपुष्प वेल्या भागांत आसता. ताचें फळ (पालिभेद) त्रिपूटक (trilocular) आनी बोंड कांटयारें आसता. ताका घट्ट, लांबशीं, पिंगशीं आनी विंगडविंगड थिपके आशिल्ली बी आसता. बियेच्या एका तोंकाक ल्हान बिजोपांग आसता. तांबड्या रंगाचो दुसरो एक एरंडाचो प्रकार सोबेखातीर पोरसांत लायतात. ह्या रुखाचें कांड, देंठ, शिरो, फुलां हे भाग तांबडे आसतात.

एरंड ह्या रुखाचो दरेक भाग वखदी आसता. मुळां दाहक आनी वातनाशक आसतात. सूज येवप, जोर, दमो, खांक, आंतकड्यांतले जंतू, मुत्ररोग हांचेर ताचीं मुळां उपेगी पडटात. आंगार दूद चड जावंचें म्हूण एरंडाचीं पानां हून करून थानांचेर बांदतात वा तांचो काडो करून पितात. पानांचो रोस गोरवांक खावयल्यार तांचेंय दूद वाडटा. गांठ, मूळव्याध, पित्ताशय (यकृत), प्लीहा (पानथरी- पोटांत जावपी एक रोग) ह्या सारक्या रोगांचेर एरंडाचीं फळां उपेगी पडटात. बियो रेचक आसतात आनी तांचें तेल (एंडेल) कृमीसारक (जंतूंचो नाश करपी) आनी भलायकेक गुणकारी आसून हस्तिरोग, आंकडी ह्या रोगांचेर तें उपेगी पडटा. ह्या तेलांत केरोसीन १:७ प्रमाण मेळोवन तें जळणाक वापरतात. हेर तेलांपरस ह्या तेलाचो उजवाड बरो पडटा. घड्याळी निवळ करपाक आनी यंत्रां सदळ जावपाखातीर ह्या तेलाचो वापर करतात. शाबू, मेणवाती, वासाळ तेलां, कापूस रंगोवप, छापप, नायलॉनचे धागे तयार करप, कातड्यांचे उद्येगधंदे, हातुंतूय तेलाचो उपेग करतात. एरंडाची पेंड एक बरें सारें म्हूण वापरतात. ही पेंड पिकांतली वाळटी, किडींचो नाश करता. बियांत 'रिसी' हें विखारी द्रव्य आसता. ह्या रुखाच्या कांडापसून दाट पुठ्ठे (पापेलांव) तयार करतात. एक वेगळ्याच प्रकारचें रेशीम दिवपी रस्मीकिड्याच्या पोशणाखातीर एरंडाच्या पानांचो उपेग करतात.

**एरंड, रानवटी:** (मराठी-जंगली एरंड; हिंदी- जंगली एरंडी, उंदरबिबी; संस्कृत-निकुंभ; कन्नड-तोट्टागिड; लॅटिन-जट्रोफा ग्लँड्यूलीफेरा. कूळ-युफोर्बिएसी). ल्हान आनी बारय म्हयने पानां आशिल्लो हो रुख आफ्रिकेंतलो उश्ण प्रदेश, श्रीलंका आनी भारत (बंगाल, महाराष्ट्र आनी गोंय) ह्या वाठारांनी दिश्टी पडटा. ह्या रुखाच्या कांडाकूच जायते फावट दोन फांदयो फुटतात. रुखांत लेव पाचवो रोस आसता. ताका लांब देंठांची, एकाफाटल्यान एक, लांबायेन आनी रूंदायेन सारकीं, ३-५ खंडी, हाताच्या आकाराचीं आनी कांटे आशिल्लीं पानां आसतात. ताचीं पालवीपानां केंसांभशेन लांब आनी वेगळायल्लीं आसतात. घोंसा भशेन आशिल्ल्या तुऱ्याचेर ताळयेच्या मदीं, एकलिंगी पोपटी फुलां येतात. ताचें बोंड ल्हान आनी त्रिखंडी आसून तातूंत काळ्यो आनी चकचकीत बियो आसतात. बियांतलें तेल सारक आसता. संधिवात, घाय, कातीचो रोग, अर्धांग आदी दुखण्याचेर हें तेल उपेगी पडटा. झाडांतलो रोस दोळयांच्या दुखण्याचेर वापरतात. मुळाचो काडो सारक आसून तो शरीरांतल्या प्रपिंडाची (gland) सूज कमी करपाक उपेगी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**एल् साल्वादोर:** मध्य अमेरिकेंतलो सगळयांत ल्हान आनी सगळयांत दाट लोकवस्ती आशिल्लो देश. क्षेत्रफळ २१,३९३ चौ. किमी. लोकसंख्या ५४,६१,०००. हाचे उत्तरेवटेन आनी उदेंतेवटेन हाँडुरास, वायव्येक ग्वातेमाला आनी दक्षिणेक तशेंच अस्तंतेक पॅसिफिक म्हासागर आसा. ॲटलांटिक म्हासागराचेर देग नाशिल्लो मध्य अमेरिकेंतलो हो एकूच देश. राजधानी सान साल्वादोर.

**भूंयवर्णन, हवामान, वनस्पत आनी मोनजात:** पॅसिफिक दर्यादिगेवयलो सकयलो वाठार, उदेंत अस्तंत पातळिल्लें ६०० मी. उंचायेवयलें पिकाळ पठार आनी उत्तरेवटेनचे लेंपा न्हंयचें देगण हेभायर पठाराचे उत्तरेक आनी दक्षिणेक पातळिल्ल्यो दोंगराच्यो वळी अशी हांगाची भूंयरचणूक आसा. सांता आना हें हांगाचें सगळयांत ऊंच (२,३५५ मी.) दोंगरातेमक जावन आसा. इसाल्को (१,८८५ मी.) ह्या दोंगरातेमकार जागृत ज्वालामुखी आसा. लेंपा आनी सान ह्यो ह्या देशांतल्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो. हांगा सरोवरांय बरींच आसात. तांतली ईलोपांगो, ग्वातेमाला शीमेवयली गीहा आनी कोआतेपेक हीं मुखेल आसात. वाठाराचे उंचायेप्रमाण हवामान आसता. नोव्हेंबर ते एप्रिल शियाळो आनी मे ते ऑक्टोबर गीम आसता. गिमांत पावस पडटा. पॅसिफिक दर्यादिगेर वर्सुकी पावस १७२ सेंमी., पर्वतांनी १७५ सेंमी. ते २५० सेंमी. आनी पठारांचेर ११५ सेंमी. ते १५० सेंमी., पडटा. दर्यादिग आनी उणे उंचायेच्या वाठारांनी तापमान २५° से. ते २९° से. आसता, जाल्यार उंचेल्या वाठारांनी १७° से. ते २२° से. आसता.




रानां व्हड आशिल्ल्यान मॅहॉगनी, देवदार, अक्रोड, बालसम, तरेकवार वखदी वनस्पत, फळझाडां, रबर असली वनस्पत सांपडटा. दक्षिणेवटेन पठारांचेर आनी उत्तरेवटेन दोंगरी वाठारांनी तण जाता. विंगडविंगड प्रकारचीं माकडां, जाग्वार, तापीर, आर्माडिलो, ऑसेलॉट हे प्राणी; कीर, इग्वाना हीं सुकणीं तशेंच मानगीं आनी तरेकवार जातीचे सोरोप हांगा दिश्टी पडटात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था:** स्पेनची घुरी येवचे पयलीं हांगा पिपिल नांवाचे जमातीचें राज्य आशिल्लें. तांचे भाशेंत ह्या देशाक कूस्कातलान (रत्नांचो देश) म्हण्टाले. मेक्सिकोचेर जैत मेळोवपी कोर्तेझ हाच्या पेद्रो द आल्व्हारादो ह्या अधिकाऱ्यान हांगा १५२५ त स्पेनचें राज्य हाडलें. तीन शतमानां स्पेनच्या शेकातळा काडल्या उपरांत १८२१ त हेर वसाहतींवांगडा होय देश स्वतंत्र जावन मेक्सिकन साम्राज्यांत ताचो आस्पाव जालो. ह्या वेळार अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत विलीन जावचें ताणें थारायलें. पूण ही गजाल घडून आयली ना. १८२३ त मध्य अमेरिकन राश्ट्रांनी मेक्सिकोकडल्यान फुटून आपलो वेगळो संघ निर्मिलो, पूण होय १८३९ त मोडलो. १८४१ त एल् साल्वादोर पुरायपणान स्वतंत्र जालो. १८५९ त हांगा प्रजासत्ताकाची घोशणा जाली, पूण लश्करी अधिकाऱ्यांमदीं सत्तेखातीर सर्त लागली. जनरल मार्तीनेस (१९३१-४४), जनरल कास्तानेदा कास्त्रो (१९४५-४८), ओझोरियो (१९५०-५६), लेमस (१९५६-६०), रिवेरा (१९६२-६७), फिदेल

हेर्नांदेझ (१९६७-७२), कर्नल आर्तुरो मोलिना (१९७२-१९७७) हे कांय मुखेल राश्ट्राध्यक्ष जावन गेले. देशांत बरेच फावट संविधानबदल जावन गेले. सद्याचें संविधान १९८३ सावन लागू जालां. ताच्याप्रमाण राश्ट्राध्यक्षाची वेंचणूक दर पांच वर्सांनी जावपाची तरतूद आसा. सद्याक नेपोलियन दुआर्त हो राश्ट्राध्यक्ष जावन आसा.

**अर्थीक स्थिती:** मुखेल वेवसाय शेतवड आनी मुखेल पीक मको जावन आसा; पूण चडांत चड येणावळ काफयेचे पिकावळींतल्यान मेळटा. ल्हान सान बरेच उद्येगधंदे आसात. रसायनां, रसायनीक उत्पादनां, कांय प्रमाणांत अन्न आनी कडुणां आनी पेट्रोल, तेभायर यंत्रसामग्रीची आयात करची पडटा. चडशे आयात वेव्हार अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, ग्वातेमाला, मेक्सिको, व्हेनेझुएला ह्या देशांलागीं जातात. काफी, साकर, कापूस ह्या सारक्या पिकांची निर्यात जाता. कोलोन हें हांगाचें अधिकृत चलन जावन आसा.

**लोक आनी समाजजीण:** वंशीक नदरेन ह्या देशांतले ९०% परस चड लोक भरसल्ल्या वंशाचे म्हळ्यार मेस्तिझो आसात. हेर इंडियन, निग्रो आनी युरोपीय वंशाचे आसात. देशांत धर्मस्वतंत्रताय आसली तरी ९०% परस चड लोक रोमन कॅथोलिक आसात. कॉफी हें हांगाच्या लोकांचे आवडटें पेय. हांगाची अधिकृत भाशा स्पॅनिश. ७ ते १३ वर्सांमेरेन शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसा. देशाच्या आकाराच्या मानान येरादारींत बरीच उदरगत जाल्या. प्रसारमाध्यमां आनी संचाराणाचीय वेवस्था बरी आसा. साक्षरतेचें प्रमाण ६३% आसा. सांता आना, माजिकानोस, सान मिंगेल, देलगादो हीं हांगाचीं कांय मुखेल शारां जावन आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## एर्लांगर, जोसेफ:

(जल्म: ५ जानेवारी १८७४, सॅन फ्रॅन्सिस्को; मरण: ६ डिसेंबर १९६५, सेंट लुईस).

अमेरिकन शरीरक्रियावैज्ञानीक आनी संशोधक. ताणें १८८५ त कॅलिफोर्निया विद्यापीठाची बी. एस्. ही पदवी मेळयली. १८९९ त जॉन्स हॉपकिन्स विद्यापीठाची एम्. डी. ही पदवी मेळयतकच तो १९०६ मेरेन त्याच विद्यापीठांत प्राध्यापक आशिल्लो. १९०६ त, विस्कॉन्सिन विद्यापीठाच्या वैजकी विद्यालयांत शरीरक्रियाविज्ञानाचो प्राध्यापक म्हूण ताची नेमणूक जाली. फुडें १९१० ते निवृत्तीमेरेन (१९४६) ताणें सेंट लुईसच्या वॉशिंग्टन विद्यापीठांत प्राध्यापक म्हूण काम केलें.

तंत्रिका तंत्रांतल्यान **(nervous system)** संवेदनावहन कशें जाता तें पळोवपाखातीर एर्लांगर हाणें ऋण किरण दोलनदर्शकाचो **(cathode-ray oscilloscope)** उपेग केलो. ह्या मोलादीक संशोधनाखातीर १९४४ त, ताका शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार गॅसर हाच्यावांगडा वांटून मेळ्ळो. रक्तपरिवहनाचो आनी रक्तदाबाचो मूत्रपिंडाच्या स्रावाचेर कसलो परिणाम जाता, ह्या विशयांतूय ताणें संशोधन केलें. १९२२ त, अमेरिकेच्या नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचो वांगडी म्हूण ताची वेंचणूक जाल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

## एशियाटिक सोसायटी:

उदेंतेची संस्कृताय, इतिहास, शास्त्र, कला-साहित्य संबंदीची साधना हांचो संग्रह आनी ताचो अभ्यास करपी एक संस्था. १७८४ त इंग्लीश भाशापंडीत सर विल्यम जोन्स (१७४६-१७९४) हाणें 'एशियाटिक सोसायटी ऑफ बँगाल' हे संस्थेची थापणूक केली. भारतांतल्यान मायदेशांत (इंग्लंडांत) गेल्या हे संस्थेच्या वांगड्यांनी 'रॉयल एशियाटिक सोसायटी ऑफ ग्रेट ब्रिटन अँड आयर्लंड, हे संस्थेची थापणूक केली. फुडाराक स्वतंत्र रितीन थापणूक जाल्या आनी प्रशासकीय नदरेनय स्वायत्त आशिल्ल्यो कलकत्ता, मुंबय, मद्रास, हाँगकाँग, सिंगापूर आनी श्रीलंकेंतली 'रॉयल एशियाटिक सोसायटी' ही संस्था, तिचे फांटे अशें समजूंक लागले.

हे संस्थेचे वांगडी जरी खंयूय आसले तरी तांकां ग्रंथासारकीं म्हत्वाचीं साधनां हक्कान वापरपाक मेळचीं, हो हे संस्थेफाटलो उद्देश आसलो.

विल्यम चेंबर्स, ग्लॅडविन, हॅमिल्टन आनी चार्लस विल्किन्स हे सोसायटीचे मूळ वांगडी आसले. तांणीच हे संस्थेची बुन्याद घाली.

विल्यम जोन्सान केल्लो शाकुंतल आनी मनुस्मृतीचो, ग्लॅडविनान केल्लो अकबराच्या कायदेकानूनांचो, तेचपरी हॅमिल्टनान पर्शियन ग्रंथाचो इंग्लीश भाशेंत केल्लो अणकार हीं एशियाटिक सोसायटीन केल्लीं म्हत्वाचीं कामां आसलीं. हेर वावरामदीं चार्लस विल्किन्स हाणें केल्लें संस्कृत ग्रंथाचें छापप तर विल्यम चेंबर्स हाणें घाल्ली प्राच्यविद्येची बुन्याद, ह्यो तोखणाय करपासारक्यो गजाली आसल्यो.

टॉमस कोलब्रुक सारक्या जाणकारांनी संस्कृत आनी फार्सी भाशेचें अध्ययन करून हें कार्य फुडें चलयलें.

१८०४ त मुंबयंत, 'लिटररी सोसायटी ऑफ बॉम्बे' हे संस्थेची थापणूक जेम्स मॅकींटॉश हाचे अध्यक्षपणाखाला जाली. ह्या वावराक त्या काळांतलो मुंबयचो गव्हर्नर जोनथन डंकन हाचें फाटबळ मॅकींटॉश हाका मेळिल्लें. एल्फिन्सटन, माल्कम सारक्या गिन्यानाचे मोगी आशिल्ल्या शासनकर्त्यांनी तेचपरी अर्स्किन, बॉडेन, मूर, ड्रमंड, कॅ. बेसिल हॉल सारक्या विद्वानांनी निबंदवाचन, ग्रंथालय, पुराणवस्तुसंग्रहालय, नाणी-संग्रह, वेधशाळा, प्राकृतिक रसायनशास्त्राची प्रयोगशाळा, नेमाळीं ह्या सारक्यो कार्यावळी हातांत घेवन गिन्यानांचो रुख जतनायेन सांबाळ्ळो. १८२७ त व्हान्स केनेडीच्या फुडाकारान ही संस्था लंडनच्या रॉयल एशियाटिक सोसायटी ऑफ ग्रेट ब्रिटनाक जोडली. जे वरवीं ह्या फाट्याक 'बॉम्बे ब्रँच ऑफ रॉयल एशियाटिक सोसायटी' हें नांव मेळ्ळें. मुक्ती उपरांतच्या काळांत 'रॉयल' हें नांव काडून उडयलें.

१८४१ हे संस्थेचे 'द जर्नल ऑफ द बॉम्बे ब्रँच ऑफ द रॉयल एशियाटिक सोसायटी' हें संशोधनपर तीन म्हयनाळें भायर सरपाक लागलें. आर्लिबार हो ह्या नेमाळ्याचो संपादक आसलो. १९४७ त मुंबय सरकारान ३०,००० ग्रंथांचो संग्रह संस्थेक भेटोवन हे सोसायटीक राज्याच्या केंद्रीय ग्रंथालयाचो दर्जो दिलो. पूर्विल्ल्या वस्तूंचो मोलादीक वस्तुसंग्रह कॅप्टन बेसिल हॉल हाणें मुंबयंत हे संस्थेचें वस्तुसंग्रहालय जावचें म्हूण भेटयलो. सद्या संस्थेकडेन दोन लाखांवयर ग्रंथ आसात.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या आरंबाक युरोपीय विद्वानांचो हे संस्थेचेर शेक चल्लो. पूण तेउपरांत डॉ. विल्सन, मिचेलसारक्या व्हड विद्वानांवांगडा डॉ. भाऊ दाजी लाड, बाळशास्त्री जांभेकर, डॉ. भगवानलाल इंद्रजी, न्या. तेलंग, डॉ. पां. वा. काणे सारके भारतीय विद्वानय वावर करताले. ही संस्था प्राच्यविद्याविशारदांचो भांगरापदक आनी रुप्यापदक दिवन भोवमान करता. एशियाटिक सोसायटीचो इतिहास हें भारतीय गिन्यानाचे उदरगतीचें एक भांगरापान जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## ऐ:

देवनागरी वर्णमालेंतलें बारावें अक्षर. कंठ आनी ताळवी हीं हाचीं उच्चारणस्थानां जावन आसात. हाचो उच्चार दीर्घ आसून प्लुत (अती लांबोडो आनी तीन मात्री) लेगीत जाता. उदात्तादी भेदान त्रिविध आनी अनुनासिक- अननुनासिक ह्या भेदान 'ऐ' हें अक्षर स प्रकारचें जावन आसा.

इ.स.प. दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या हाथी गुंफा हांगाच्या लेखांत पयले अवस्थेंतल्या 'ए'क तकलेर आडवी आडी काडून 'ऐ' केल्याचें दिसून येता. दुसरे अवस्थेंतल्या 'ए' क मात्रा दिवन 'ऐ' केल्याचें उदाहरण इ. स. सव्या शेंकड्यांतल्या उष्णीषविजयधारिणीच्या पुस्तकांत आसा. सातव्या शेंकड्यांतल्या कुचारकोट लेखांत तिसरे अवस्थेंतल्यान 'ए' क बरीच व्हडली मात्रा दिवन 'ऐ' अक्षर काडलां. धाव्या शेंकड्यांतूय असोच 'ऐ' काडटाले अशें दिसता. बाराव्या शेंकड्यांतल्या हातबरपांच्या पुस्तकांत आयचो वळणदार 'ऐ' पळोवपाक मेळटा.

कामधेनुतंत्रांत हाचें वर्णन अशें केलां:

'एकारं परमं दिव्यं महाकुण्डलिनीस्वयम्।
कोटिचन्द्रप्रतीकाशं पञ्चप्राणमयं सदा।।

अर्थः ऐकार हो परम, दिव्य, महाकुंडलिनी जावन आसा. तो कोटिचंद्रांइतलो पर्जळीत आसून पंचप्राणमय आसा. मातृकान्यासांत सकयलो ओंठ ही हाची सुवात जावन आसा. त्रिपुरालोहिता, भौतिकासन अशीय हाका नांवां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**ऐजाल:** ब्रह्मदेशालागीं आशिल्ल्या मिझोराम ह्या केंद्रशासित प्रदेशाची राजधानी. लोकसंख्या ३,४०,८२६ (१९८१). लुशाई दोंगुल्ल्यांनी व्यापिल्लो, आसाम राज्यांत आशिल्लो मीझो जिल्हो जानेवारी १९७२ वर्सा भारत सरकारान केंद्रशासित केलो. तेन्ना मिझो जिल्ह्याचें ठाणें आशिल्लें ऐजाल शार ह्या केंद्रशासित प्रदेशाचें मुखेल ठिकाण जालें.

समुद्रथरासावन १०६४ मी. उंचायेचेर आशिल्ले दोंगुल्लेचेर ऐजाल शार वसलां. हांगाची हवा थंड आनी भलायकेक बरी. हें शार आसामांतल्या सिलचर रेल्वेस्थानकाचे दक्षिणेक १९२ किमी. अंतराचेर आसा. ऐजालाक वचपी रस्तो दाट रानांतल्यान वता. ऐजालासावन सुमार २० किमी. अंतराचेर धालेश्वरी न्हंय अस्तंतेकडल्यान व्हांवता. ह्या न्हंयमार्गान ऐजाल शारांतल्यान जावपी येरादारी त्या मानान सोपी आसा.

घातपाती वावर करपी मिझो टोळीवाल्यांचेर लक्ष दवरुंक ऐजाल शार मध्यवर्ती सुवात आसा, तेचपरी ह्या टोळीवाल्यांचें दिवपा-घेवपाचें हें एक व्हड केंद्र आसा. हांगा आकाशवाणीचें एक केंद्र आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**ओंकारो:** पोटांतलें अन्न वा वीख, वखदांसारकिले हेर उपद्रवी पदार्थ तोंडया नेटान भायर पडप, हे क्रियेक ओंकारो म्हण्टात.

ही क्रिया कशी घडून येता तें चित्र क्र. १ हातूंत दाखयलां. डायफ्रॅम (diaphragum) (हड्डें आनी पोट हांचेमदलो स्नायूचो पड्डो) आनी पोटाचे स्नायू अकस्मात नेटान आकुंचित जावन येता, जाका लागून पोटाभितरलो दाब वाडटा. त्याच वेळार पोटाचें आंतकड्यांकडलें पोंत आंवळून बंद जावन येता तर तोंडाकडलें (वयलें) पोंत उक्तें उरता आनी अशे तरेन वयले वटेन पोट रितें जाता.

मनशाचे कुडींतल्यो विंगडविंगड क्रिया मेंदवांतल्या नियंत्रण केंद्रावरवीं घडत आसतात. ओंकारो नियंत्रण केंद्राची सुवात मेंदू-देंठांत (brain stem or medulla oblongata) आसा. ओंकारो हो रोग वा दुयेंस नासून कितल्याशाच रोगांचें वा दुयेंसांचें तें मुखेल लक्षण जावन आसा. अन्नाबगर कांय कारणांक लागून ओंकाऱ्यांत रगत पडूं येता. देखीक- पोटांतलो घाव (peptic ulcer), जठराचो कॅन्सर, अन्ननलिकेंत रक्तगांठी (varicose veins). पोटांत रगताचेर हायड्रोक्लोरिक अम्लाची (hydrochloric acid) प्रक्रिया जावन रगताक काळपटपणा येता. ताका लागून रगताचो ओंकारो सदांच डांबरी कोराचो आसता. केन्नाकेन्नाय ओंकाऱ्यांतल्यान दंतूय भायर पडटात.

ओंकारो मुखेल चार कारणांक लागून जावं येता:

१. रगतांत बदल वा बिघाड निर्माण जावन थेट ओंकारो केंद्र उत्तेजित जावन ओंकारो येवप. देखीक- गुरवारपण (सकाळीं-सकाळीं ओंकारो येवप हें खाशेलेपण, morning sickness), युरेमिया (मुत्रपिंडाचे अकार्यक्षमतेक लागून- renal failure), युरिया नांवाच्या उपद्रवी रसायनाची अतिप्रमाणात रगतांत वाड जावप, कामीण (यकृत सुजून वा निकामी जावन - hepatitis or hepatic failure), रगतांत पित्त (bile) घातक प्रमाणांत वाडप, गोडेमूत (diabetes- रगतातल्या साकरेची चड प्रमाणांत वाड जावन किटोन नांवाचें विखारी रसायन निर्माण जावप), सादारण गुंगी (General Anaesthesia).

वखदां: ओपियम, मॉर्फीन, हेरोईन, पेथीडीन, पेन्टाझोसीन, नॉर्फिन, डीजिटलीस कॅन्सराचेर उपेगी वखदां तशेंच अदृश्य किरण उपचार पध्दत (Radiation Therapy or Radiation sickness), किडे-हुंदरांखातीर आशिल्लीं विखां, सेप्टेशिमिया, रगताक रोग बाधा (Blood infection).

२. अप्रत्यक्षपणान ओंकारो केंद्र उत्तेजित जावन ओंकारो येवप. देखीक- काळजाचो झटको (heart attack), अपेंडीसायटीस (appendicitis), मुतखडो वा पीत्तखड्याक लागून कळो येवप, स्वादुग्रंथी वा पित्तेंद्रियांक सूज येवप (pancreatitis, cholecystitis), कोलेखांक (whooping cough), प्रवासी दुयेंस (travel sickness), मेनर्स दुयेंस (Meiner's Disease).




चित्र क्र. १

३. पचनेंद्रियांचे रोग आनी दुयेंसां: देखीक- अतिसार, अमांश (मोडशी), अन्नवीखबादा (food poisoning), पोटांतलो वा आंतडेचो घाय (peptic ulcer), पोटार ताण हाडपी दूख वा संधीवाताचेर उपेगी आशिल्लीं वखदां. पोटाचो वा स्वादुग्रंथीचो कांक्र. अन्न चलनाक बादा हाडपी विकार: देखीक- आकुंचित अन्ननलिका (stricture oesophagus- चित्र क्र. २), अकार्यक्षम अन्ननलिका (achalasia), पोटाचो हर्निया (Hiatus hernia- चित्र क्र. २), आंकुचित पोट (Pyloric stenosis- चित्र क्र. २), आंतकडेचो पीळ (Volvulus- चित्र क्र. ३), आंतकडेंत दंतांचो चुमडो घुस्पून उरप.

४. मेंदूचे रोग आनी दुयेंसां: देखीक- मेनिंजायटीस (Meningitis),

मेंदुज्वर (Viral Encephalitis), फ्ल्यू (Japanese B Fever), हुरहुरें, गालगुणां आदी वायस रोगाची लागण, एकसीसाल (migraine), मेंदूवात वा मेंदवाभायर पूण कवटेभितरलो रक्तस्राव (intracranial haemorrhage), मेंदूंतली गांठ (brain tumour), एडिसोनियन दुयेंस (Addisonian Disease- मेंदूंतल्या पीट्यूटरी नांवाच्या ग्रंथीची अकार्यक्षम स्थिती).

५. मानसिक तणावाक लागूनय ओंकारो जावं येता. (Psychogenic vomiting).




चित्र क्र. २

जल्मल्ल्या ल्हान भुरग्याच्या ओंकाऱ्याविशींचीं खाशेलीं कारणां: सदोश आहारपध्दत, अन्न चलनाक बादा हाडपी जल्मजात दोश: देखीक- बंद अन्ननलिका वा आंतकडें (चित्र क्र. २- Atresia of oesophagus or duodenum), अकार्यक्षम वा आकुंचित अन्ननलिका (chalasia, achalasia of oesophagus), पोटाचो हर्निया (Hiatus hernia), आकुंचित पोट +Pyloric Stenosis- चित्र क्र. २), आंतकड्यांत आंतकडीं घुस्पप +Intusucception- चित्र क्र. ४), मुदये आकाराची स्वादुग्रंथी (Annular Pancreas), हिरस्प्रंगूस दुयेंस (Hirrchsprung's disease- मोटे आंतकडेच्या निमण्या भागाची कायम अकार्यक्षम घडण).

**उपाय:** खाशेलो उपाय त्या त्या कारणाप्रमाण करपाचो आसता. सामान्यपणान कसल्याय कारणान चड काळ ओंकारो आयल्यार रक्तशिरेंतल्यान पातळ द्रव रुपांत (intravenous fluid therapy) उपचार करचो पडटा. देखीक: ग्लुकोज सोर (Glucose-saline), रक्तक्षारां (electrolytes),प्लास्मा (plasma) वा रगत गरजेप्रमाण.

अतिसार- अमांश (मोडशी), गोडेमुत, गुरवारपण, कामीण, वीखबादा, मेनिंजायटीस, मेंदुजोर, सेप्टेशिमीया, अदृश्य किरण दुयेंस (Radiation Sickness), पोट वा आंतकड्याचो कात्रो (peptic ulcer) हांचेर चड करून वखदांचोच उपचार करपाची गरज आसना. वखदांक लागून ओंकारो येत जाल्यार वखदांची मात्रा कमी करची पडटा वा कांय काळमेरेन वखदां बंद करचीं पडटात. बंद अन्ननलिका वा आंतकडें, आकुंचित पोट, पोटाचो वा स्वादुग्रंथीचो कांक्र, चड तेंपाचो पोट वा आंतकडेचो घाव, पोटाचो हर्निया, आंतकडेचो पीळ, आंतकड्यांत आंतकडीं घुस्पप, मेंदूंतली गांठ, कवटेभितरलो रक्तस्राव, हिरस्प्रंगूस दुयेंस, अपेंडीसायटीस आदी दुयेंसांचेर चड करून शस्त्रक्रिया करची पडटा.

**ओंकाऱ्याचे वायट परिणाम:** ओंकाऱ्याक लागून आंगांतलें रगत वा




चित्र क्र. ३




चित्र क्र. ४

रगतांतलें उदकाचें प्रमाण उणें-चड जावन रगताचो दाब देंवं येता (Hypovolemic shock). रक्तक्षार असंतुलनाक लागून (electrolyte imbalance) नवे त्रास उप्रासूं येतात. चड तेंपाच्या दुयेंसांक लागून (पोटाचो घाव वा कॅन्सर, मेंदू-गांठ आदी) दिसान दिस वजन देंवत वचून कुपोशण जावं येता. सादारण गुंगी, मेंदवाचो मार वा मेंदवाचो झटको ह्या कारणांक लागून आयिल्ले बेशुध्दावस्थेंत ओंकारो आयल्यार घडये तो फेंफड्यांत वचून फेंफड्यांक Pneumonitis ह्या रोगाची लागण जावं येता. पोटांतल्या हायड्रोक्लोरीक अम्लाक लागून वायुनलिकेचें अकस्मात आकुंचन जावन स्वासोस्वासांत अडचण येवन मनीस घुस्मटूंक शकता (Respiratory Distress). केन्नाय ओंकारो इतलो खर जाता की अन्ननलिकेंत वा पोटांत कात्रो (fissure) पडून पोटांत रक्तस्त्राव जावन रगताचे ओंकारे जावं येतात. असल्या प्रकारच्या वायट परिणामाक 'मॅलोरी वायस दुयेंस' (Mallory Weiss Syndrome) अशें म्हण्टात. ह्या दुयेंसांत रक्तस्त्राव आपशींच थांबता, पूण गरज पडल्यार शस्त्रक्रिया करची पडटा.

- डॉ. आनंद हळर्णकार

संदर्भ: 1. Achar S.T., & Viswanathan J.; Textbook of Paediatrics; Orient Longman Limited-1982; 2. Stein, Jay H.; Internal Medicine; Little Brown & Co., Boston-1983.

**ओंवो:** (मराठी-ओवा, अजवान; हिंदी- अजोवान, अजवैन; गुजराती-अजमो; कन्नड- ओमा; संस्कृत- अजमोदा, तीव्रगंधा; इंग्लीश-बिशप्स बीड, लोवेज; लॅटीन-ट्रॅकिस्पर्मम ॲम्मी, कॅरम कॉप्टिकम. कूळ- अंबेलिफेरी). उंचाय सुमार ०.३ ते १ मी. हें एक वर्सभर उरपी वखदी झाड. भारतांतल्या सगळ्या वाठारांत ह्या झाडाची लागवड करतात. तशेंच बलुचिस्तान, इराण, ईजिप्त आनी युरोप ह्या वाठारांनीय ताची लागवड करतात.

ह्या झाडाच्या कांडाक जायत्यो ताळयो आसून तांकां कातऱ्या कातऱ्याचीं पानां आसतात. एप्रिल म्हयन्याच्या सुमाराक ल्हान, धवीं आनी चंवराभशेन फुलां येतात. उपरांत शिरो आशिल्लें बारीक आनी उबें फळ येता, ताकाच ओंवो म्हण्टात.

ओंवो उश्ण, तीख आनी कोडू आसता. तो उत्तेजक आनी पुश्टीक आसून ताचेपसून भूक वाडटा. ल्हान भुरग्यांक जावपी 'घडस' दुयेंसाचेर ओंवो उपेगी पडटा. तेभायर ओडी येवप, वाय, एकसारकें परसाकडेन

जावप, पोटांत किसकिसप, मुताचो त्रास जावप, अपचन जावप आदींचेर ओंवो खावपाक दितात. ओंव्यांत ४ ते ५ टक्के उडून वचपी (volatile) तेल आसता. तशेंच ४५ ते ५५ टक्के थायमॉल आसता. इंग्लंड आनी जर्मनी हांगा थायमॉलाच्या उत्पादनाखातीर ओंव्याचो उपेग करतात. थायमॉल हें एक जंतूनाशक. महाराष्ट्रांतल्या जळगांव जिल्ह्यांत मुखेल पिकावांगडा दुसरें पीक म्हूण ह्या झाडाची लागवड करतात. मसाल्यांत आनी रांदपांत ओंव्याचो उपेग करतात.

'ट्रॅकिस्पर्मम रोक्सबर्घियानम' हे जातीकूच ओंवो ह्या नांवान वळखतात. ताची लागवड भारतांत चडशी गुजरात आनी महाराष्ट्र हांगा करतात. ओंकारो आनी खेळणी हांचेर ओंवो उपेगी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**ओ:** देवनागरी अक्षरमाळेंतलें तेरावें अक्षर. ओंठ आनी कंठ हीं हाचीं उच्चारणस्थानां आसात. हाचो उच्चार दीर्घ आसून प्लुत लेगीत जाता. तेचप्रमाण उदात्तादी भेदान आनी अनुनासिक-अननुनासिक ह्या भेदान हें अक्षर स प्रकारचें जाता.

'अ' पसून 'ओ' अक्षर तयार जालें ही कल्पना चुकीची. कित्याक, अशोकाच्या गिरनार लेखांत 'ओ' ची आकृती स्वस्तिकांतल्या उब्या भागाप्रमाण दाखयल्या. इ.स.प. शेंकड्यांत कुशानवंशी राजाचे मुस्तींत मथुरा हांगाच्या लेखांत वयर सांगिल्ल्या 'ओ' चे वयले आडवे आडंयेक बरीच बाग आसा. फुडल्या शेंकड्यांतल्या नासिकच्या वासिष्ठीपुत्र पुलुयामीच्या लेखांत सकयल्या आडंयेकूच बाग दिसून येता. कार्ले हांगाच्या लेण्यांत लेगीत असोच 'ओ' दिसता. पांचव्या शेंकड्यांतल्या जयनाथाच्या दानपत्रांत हालींच्या 'उ' सारकी 'ओ' ची आकृती काडिल्ली दिसता. प्रतिहार कक्कुकाच्या घटिआला लेखांत (इ.स. ८३१) हें सारकेपण स्पश्ट जाता. बाराव्या शेंकड्यांतल्या एका हस्तलिखित पुस्तकांत 'अ' चेर मात्रा दिवन 'ओ' काडिल्ल्याभशेन दिसता. आयज आमी जसो 'ओ' काडटात तसो मात खंयच मेळना. पयलीं अक्षराच्या दावे वटेन कानो काडून काम भागयताले.

कामधेनुतंत्रांत हाचें वर्णन अशें केलां-

ओंकारं चञ्चलापाङ्गि पञ्चदेवमयं सदा।
रक्तविद्युल्लताकारं त्रिगुणात्मानमीश्वरम्।।

अर्थ- हे देवी, ओकार हो रक्तविद्युल्लतेच्या आकाराचो, त्रिगुणात्मक, पंचदेवमय आनी ईश्वर जावन आसा.

हाका सद्योजात, वासुदेव अशीं नांवां आसात. मातृकान्यासांत हाची सुवात दांतांचे वयले वळींत दाखयल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**ओचोआ, सेव्हेरो:** (जल्म: २४ सप्टेंबर १९०५, लुआर्का-स्पेन).

अमेरिकन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. १९२१ त मालागा महाविद्यालयांतल्यान बी. ए. आनी १९२९ त माद्रिद विद्यापीठाची एम्. डी. ह्यो पदव्यो ताणें मेळयल्यो. तेउपरांत बर्लिनच्या कासर विल्हेल्म संस्थेंत आनी फुडें हायड्लबर्ग विद्यापीठांत ताणें संशोधनाचें काम केलें. १९३१ त, ताची माद्रिद विद्यापीठांत अधिव्याख्यातो म्हूण नेमणूक जाली. १९३२-३४ ह्या काळांत ताणें लंडनच्या 'नॅशनल इन्स्टिट्यूट फॉर मेडिकल रिसर्च' हे संस्थेंत काम केलें. १९३५ त, माद्रिद हांगाच्या इन्स्टिट्यूट फॉर मेडिकल रिसर्च हेसंस्थेच्या शरीरक्रियाविज्ञान विभागाचो मुखेल म्हूण ताची नेमणूक जाली. परत जर्मनी आनी इंग्लंड ह्या देशांत संशोधनकार्य करून तो १९४१ त अमेरिकेक परत गेलो आनी सेंट लुईच्या वॉशिंग्टन विद्यापीठांत संशोधन-साहाय्यक म्हूण ताणें काम केलें. १९४६ त ताची वखदांविज्ञान शाखेचो प्राध्यापक म्हूण नेमणूक जाली.

Nucleoside Diphosphate पसून Ribonucleic Acid (R.N.A.) हें अम्ल तयार करपी एक प्रवर्तक (hormone) ताणें सोदून काडलें. ह्या प्रवर्तकाक ताणें Polynucleotide Phosphorilase अशें नांव दिलें. ह्या प्रवर्तकाचे मदतीन ताणें ॲमिनो अम्लांपसून कितलींशींच प्रथिनां कृत्रीम पध्दतीन तयार केलीं. कुडींतल्या कोशिकांचे वाडीखातीर एकदम गरजेचें अशें R.N.A. हें अम्ल संश्लेषित करपाखातीर १९५९ चो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञान विशयांतलो नोबेल पुरस्कार ताका कोर्नबर्ग ह्या शास्त्रज्ञावांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**ओडियर, बचण्णा (बचण्णराय) वसंत माधव:** आदले मुस्तींतलो गोंयचो राज्यपाल. वसंत माधव हाचो धाकलो पूत. १३९६ वर्सा नरहरी मंत्री हाच्या उपरांत तो गोंयचो राज्यपाल जालो. वनवासी हांगासल्ल्या देवळामुखार एका शिलालेखांत ताचें वर्णन केल्लें आसा तें अशें: 'श्रीवसंत माधवरायर कुमार श्रीमन्महामंत्रीश्वर रंगिणीप्रतापगिरीदुर्गमल्ल कोकण प्रतिष्ठाचार्य आत्रेयगोत्रकुलोद्भवन् अह बाचण्णरायरु गोवापुराधीश्वर कदंबराजसिंहासनाधिष्ठितन् आत्रि सुखसंकथाविनोदर्दि राज्यं गेय्युत्त इर्दलि चंद्रगुत्ति वनवासे कोंकण रंगिणी मोदलाद समस्त राज्यवनु प्रतिपालसुत्ते विद्दलि'. इ. स. १३९९ वर्साच्या मकरवळ्ळीच्या एका लेखांत गोंयच्या शिंवासनार बसून हरिहररायाचो प्रधान वीर बचण्णा ओडियर गोंयचो कारभार चलयतालो, तेन्ना मकरवळ्ळीं गांव थंयच्या नृसिंह देवाक दान दिलो असो उल्लेख आसा. ताचे कारकिर्दींत ताणें रंगिणी (रांगणा) आनी ताचे दक्षिणकडलो वाठार आपले सत्तेखाला घेवन कोंकण दिग्विजयाचें माधव मंत्री हाचें सपन खरें केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**ओडियर, वसंत माधव:** गोंयचो आदले मुस्तींतलो राज्यपाल. ताचें आडनांव वागळे आशिल्लें. ताचें गोत्र अत्री. तो कुठ्ठाळचो गांवकार आशिल्लो. ताचो पयलो उल्लेख इ.स. १३७९ वर्साच्या एका शिलालेखांत मेळटा. तातूंत तो चिक्करायाच्या हाताखाल आरम-मुत्तीचो सुभेदार आशिल्लो, असो उल्लेख आसा. विजयनगरच्या राजान गोंय राज्य घेतकच दोन वर्सां माधव मंत्री हाणें गोंयचो राज्यपाल म्हूण काम केलें. १३७९ वर्सा माधव मंत्री हाचे उपरांत वसंत माधव हाची ताच्या जाग्यार नेमणूक जाली. फुडें आठ वर्सां वसंत माधव हाणें गोंयचो कारभार पळेलो. माधव मंत्री हाका गोंय घेवपाक, ताणें आनी माई शणै वागळे हांणी पालव दिल्लो तशेंच गोंयाचेर घुरी घालपाक ताका आपयल्लो अशें इतिहासकारांचें मत आसा. ताका हरिहररायाचें प्रधानपद मेळिल्लें आनी तो आपल्या नांवा मुखार 'गोवापुराधिश्वर' अशी पदवी लायतालो, अशें शणै गोंयबाब हाणें 'गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक' ह्या पुस्तकांत बरोवन दवरलां.

इ.स. १३९६ वर्साच्या एका शिलालेखांत ताका 'गोवापुराधिश्वर' अशी पदवी लावन, दुसऱ्या हरिहराचो महाप्रधान, मुसलमान सैन्याक हरोवपी (तुरुकदळवि भांडक), सपाकोंकण, धुळिपट्ट कदंब-सूरेकार कदंबपुरजन प्रतिपालक, श्रीवीरवसंतमाधवराय अशें ताचें वर्णन केल्लें आसा. वसंत माधव हाचे उपरांत ताचो व्हडलो पूत मलप्पा ओडियर १३८७ वर्सा गोंयचो राज्यपाल जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**ओडिसी:** पूर्विल्ल्या काळांतलो महाकवी होमर हाचें अभिजात ग्रीक महाकाव्य. डॅक्टिलिक हेक्झेमीटरांत ह्या महाकाव्याचे वट्ट चोवीस सर्ग आसात. ट्रॉजन झुजावेल्यान परतो येवपी ओडिस्यूस हो ह्या महाकाव्याचो नायक. आपल्या घरा इथाकाक परतताना ओडिस्यूसाचेर तरेतरेचीं आनी जीवघेणी संकश्टां येतात. कितलींशींच वर्सां ताची बायल पिनेलपी ताची वाट पळेत आसता. तिचे लागीं लग्न जावंक सोदपी सगळ्यांक तो मारता. आपले बायलेलागीं ताचें मिलन जाता. हो ह्या ओडिसी महाकाव्याचो कथाविशय आसा.

ओडिसी महाकाव्याचे सुर्वेक ऑलिंपस दोंगराचेर भरिल्ले देवसभेचें वर्णन केलां. ओडिस्यूसाक घर सोडून वीस वर्सां आनी ट्रोयचें झूज सोंपून धा वर्सां जाल्लीं आसतात. झूज सोंपून जेन्ना तो परतो घरा येता तेन्ना

कॅलिप्सो नांवांचे दर्यादेवतेक ताचेकडेन लग्न जावपाची इत्सा जाता. ती ताका एका जुंव्याचेर आडावन दवरता. तेन्ना अथीना ही देवता झ्यूस ह्या देवांच्या राजाक ओडिस्यूसाक सोडोवंक आपयता. उपरांत दादल्याचो भेस करून इथाका हांगा वचून ओडिस्यूसाचो पूत टेलेमॅकस हाका मेळटा. पूण ओडिस्यूस कितलींशींच वर्सां ना जाल्ल्याचो फायदो घेवन इथाका हांगा कांय लोक पिनेलपी वांगडा लग्न जावंक सोदतात. पिनेलपी आनी टेलेमॅकस हे त्रास भोगीत आसतात. तेन्नाच अथीना देवता येता आनी टेलेमॅकस हाका ताच्या बापायचो सोद घेवंक सांगता. हाचो परिणाम जावन इतले दीस कांचवेल्ल्या टेलेमॅकसाक लोकांक तोंड दिवपाचें धाडस जाता.

दुसऱ्या सर्गांत टेलेमॅकस इथाकांतल्या लोकांची सभा घेता आनी लग्नाच्या आंवड्यान पिनेलपीच्या फाटल्यान लागपी लोकांची कटकट ना करपाचो यत्न करता. ह्या सर्गाचे अखेरेक अथीना परतो भेस बदलून टेलेमॅकसाक मेळटा आनी मागीर तीं दोगांय चोरयां ओडिस्यूसाचो सोद घेवंक वतात.

तिसऱ्या आनी चवथ्या सर्गांत टेलेमॅकस कितलीशींच वर्सां शेणिल्ल्या आपल्या बापायचो सोद घेवपाचो यत्न करता. सुर्वेक तो पीलॉसाच्या नॅस्टॉर राजाकडेन वता आनी ताच्या पायसिस्ट्रेटस ह्या पुताक घेवन मेनेलेअस आनी हेलन हांकां मेळूंक स्पार्टाक वता. थंयच ताका ताच्या बापायक कॅलिप्सो हे दर्या-देवतेन आडावन दवरला ही बातमी मेनेलेअसाकडल्यान कळटा. हेवटेन इथाकांत पिनेलपीकडेन लग्न जावपाची इत्सा आशिल्ल्या लोकांचो फुडारी ॲंटिनाउस, टेलेमॅकस हाका जितो मारपाचो कट रचता. हो कट पिनेलपीक समजता. ती न्हिदिल्ली आसतना अथीना देवता तिका एक सपन घालता आनी तिका धीर दिता. पांचव्या सर्गांत झ्यूस देवाचे आज्ञेन ओडिस्यूस कॅलिप्सोचे तावडेंतल्यान सुटता. थंयच्यान ओडिस्यूस आपलो फुडलो प्रवास करतना ताचेर रागार आशिल्लो भूंयकांप आनी दर्या हांचो देव 'पोझायडन' हो व्हडलें वादळ निर्माण करता आनी ताचो थापो (तराफो) उध्वस्त करून उडयता. थंयच्यान ऑडिस्यूस फिआशियनांच्या शीर्या नांवाच्या जुंव्यार येता.

सव्या सर्गांत फिआशियन राजकुंवरी नाउसिका हिच्या सपनांत येवन अथीना तिचो लग्नादीस लागीं आयिल्ल्याचें कळयता आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं घरांतले कपडे न्हंयचेर धुवंक सांगता. दुसऱ्या दिसा जेन्ना नाउसिका न्हंयचेर वता तेन्ना तिका नागडे अवस्थेंत ओडिस्यूस दिसता. ती ताका कपडे आनी खावपाक दिवन आपलो बापूय राजा अल्सिनोअस आनी राणी आरेटे हांकां मेळपाक व्हरता. ते ताका वेगवान जहाज दिवन धाडपाचें उतर दितात. आठव्या सर्गांत ओडिस्यूसाच्या मानाक दिल्लें मेजवानीचें जेवण आनी त्यावेळार आशिल्ल्या खेळाचें वर्णन आसा. थंय एका कुड्ड्यान चारणान ट्रॉयच्या झुजाचें पद गावन दाखयल्लें. तें पद आयूकन ओडिस्यूसाच्या दोळ्यांत दुकां येतात. णव्या सर्गांत तो आपूण कोण तें अल्सिनोअसाक सांगता आनी आकूळ-पिकूळ जावन थंय आशिल्ल्या लोकांक आपले भोंवडेचें वर्णन करता. ओडिसी महाकाव्याच्या णव ते बारा ह्या सर्गांनी फकत वर्णनांच आसात. तातूंत साळकां-खावपी लोक, सायक्लोप्स नांवाच्या एकाक्ष राकेस, नरमांसभक्षक लोकांकडेन ताणें केल्लीं झगडीं, ओडिस्यूसाच्या वांगड्यांक दुकराचें रुप दिवपी पूण ओडिस्यूसाचेर प्रेम करपी सर्सी ही दर्याची देवता, तिचे तावडींतल्यान सुटून ओडिस्यूसाची हेडिझाक म्हळ्यार मेल्ल्या मनशांच्या जगाक भेट, थंय सर्सीच्या जुंव्याचेर अपघातांत मरण आयिल्ल्या ओडिस्यूसाच्या वांगड्यांचें दर्शन, फुडल्या प्रवासांत ताणें आपल्या गोड गितांनी दर्यावेल्या भोंवडेकारांक भुलोवन तांचो नाश करपी सायरन हे जलसुंदरेपसून स्वताची केल्ली सुटका, सिल्ला ह्या फातराचेर रावपी राकेसीणीन खाल्ले ताचे इश्ट, आदी अद्भत घडणुको ह्या सर्गांनी आयल्यात.

फुडल्या तेरा ते चोवीस ह्या बारा सर्गांत फिआशियनाच्या व्हड्यांत बसून ओडिस्यूस इथाकाक परतो येता. थंय ताका ताचो बापूय आनी पिनेलपी हीं मेळटात, असो कथाभाग आसा. इथाकाक येतकच ओडिस्यूसाक युमिअस नांवाचो लागचो सेवक मेळटा. थंय टेलेमॅकसूय आयिल्लो आसता. ओडिस्यूस ताका आपली वळख दाखयता आनी पिनेलपीच्या फाटल्यान लागिल्ल्या मनशाचो कसो कांटो काडप, ताचीय येवजण आंखता. सतरा ते वीस ह्या सर्गांत फुडल्या मुखेल प्रसंगांची फकत तयारी आसा. तातूंत भिकाऱ्याचो भेस घेवन ओडिस्यूसचो राजवाड्यांत प्रवेश, स्वताची वळख दाखयनासतना पिनेलपीची घेतिल्ली भेट, पिनेलपीक पडपी फुडल्या सुखाच्या प्रसंगांचीं सपनां, तिच्या लग्नाची तयारी, आदींचें वर्णन आसा.

एकविसाव्या सर्गांत पिनेलपीच्या स्वयंवराखातीर ओडिस्यूसाचें धोणू हाडटात. ह्या धोणवाचेर बाण चडोवन बारा कुराडींचे वळींतल्यान जो बाण सोडटा, ताचेकडेन पिनेलपी लग्न जावचेली आसता. हे सर्तींत कोणाकूच यश मेळना. हें पळोवन भिकाऱ्याच्या भेसांतलो ओडिस्यूस टेलेमॅकसाची मान्यताय घेवन, सगळ्यांचो विरोध पयसावन फुडें वता आनी बाण सोडटा. फुडें बावीसाव्या सर्गांत आपलें खरें रुप प्रगट करून ओडिस्यूस ॲंटिनाउसाक जितो मारता. हें पळोवन लग्नाचे इत्सेन आयिल्ले हेर लोक पळून वतात. पूण तांकांय मारतात. हो रक्तखेव चालू आसतना पिनेलपी मात अथिनाच्या प्रभावान सुस्त न्हिदिल्ली आसता. तेविसाव्या सर्गांत तिका ही खोशयेची बातमी कळटा. तेन्नाच ती आनी ओडिस्यूस परतीं मेळटात. चोविसाव्या सर्गांत ओडिस्यूसाची आपल्या जाणट्या बापायवांगडा भेट जाता.

ओडिसी आनी इलिअड हीं दोनूय महाकाव्यां जरी होमरानच बरयल्यांत तरी तातूंतलो फरक स्पश्टपणान जाणवता. इलिअड महाकाव्यांत शोकात्मक गजाली आसात आनी ओडिसी ही एकाद्र्या सुखात्मक कादंबरीवरी दिसता. परिस्थिती कितलीय खर आसली तरी तातूंतल्यान वाट काडपाची मनशाची धडपड ओडिस्यूसाच्या रुपान होमरान दाखोवन दिल्या. ह्या महाकाव्यांतलें ओडिस्यूसाचें शाणेपण स्वभावीक दिसता. तातूंतल्यान ओडिस्यूसाच्या व्यक्तिमत्वांत सामान्य मनशाभशेन आपलें घर, बायल हाचेविशीं ओड दिसून येता. देखून आर्विल्ल्या वाचप्यांक तो खूब लागशिल्लो दिसता. ओडिस्यूसा सारकेच पिनेलपी, टेलेमॅकस, युमिअस, ॲंटिनाउस, अथिना, केलिप्सो, सर्सी, आरेटो, आदी व्यक्तिरेखा होमरान बरे तरेन रंगयल्यांत. केलिप्सो आनी सर्सी ह्यो जरी दर्या देवता आसल्यो तरी ओडिस्यूसाचेर आशिल्ल्या तांच्या मोगांतल्यान तांचें मानवी आंग होमरान परिणामकारकपणान दाखोवन दिलां.

ओडिसी महाकाव्याची शैली सादी, नितळ, पूण वेधक आसा. इलिअडच्या मानान ह्या महाकाव्याची रचणूक चड बांधेसूद आसा. ह्या महाकाव्यांत होमरान कितल्याशाच लोककथांचो कलात्मक उपेग केला. ह्या काव्यांत होमरान पातिव्रत्य आनी बायलेचो नितळ मोग हांकां चड म्हत्व दिलां. तेभायर इश्टाचो मोग, धनयाविशीं आदर हांचेंय म्हत्व पटोवन दिलां.

युरोपीय समाजांत ओडिसीक व्हड संस्कृतीक म्हत्व मेळ्ळां. युरोपीय मनाक आयजूय हें महाकाव्य वेगवेगळे तरेन अर्थपूर्ण दिसता. ओडिसीच्या मूळ आकृतिबंधाक बादा येवंक दिना आसतना वेगवेगळ्या काळांत ताचें वेगवेगळे विवरण जालां.

- कों. वि. सं. मं.

**ओडिसी नृत्य:** एक पूर्विल्लो भारतीय शास्त्रोक्त नृत्यप्रकार. भारतांतल्या सगळ्यांत पोरन्या नृत्य प्रकारांत हाचो आस्पाव जाता. हो नृत्यप्रकार 'ओडू' म्हळ्यार ओरिसाकडल्यान आयला.

भरतमुनीच्या नाट्यशास्त्रांत ओडिसी नृत्याचो उल्लेख एक शास्त्रीय नृत्यप्रकार म्हूण केला. इ. स. दुसऱ्या शतमानांत खारवेल ह्या जैन राजाचे राजवटींत ताणें आपले प्रजेखातीर 'तांडव' आनी 'अभिनय' ह्या नृत्यांचे प्रयोग केल्याचो उल्लेख, उदयगिरीचे हाथी गुंफेच्या शिलालेखांत मेळटा. ह्याच काळांत उबारिल्ल्या देवळांतल्या शिल्पांभितर विंगडविंगड नृत्यप्रकार कोरांतिल्ले दिसतात. इ.स. च्या आठव्या शतमानामेरेन बौध्द

राजांची सत्ता ओरिसाचेर आसली. ह्या काळांत ओरिसान कलेच्या मळार व्हड उदरगत केली. णवव्या शतमानांत ओरिसांत देवदासींची चाल सुरू जाली. तांकां 'महारी' अशें म्हण्टाले. हांकां 'ओडिसी' नृत्याच्यो आद्यनर्तिका म्हूण वळखतात. ह्यो नर्तिका त्या काळांत बांदिल्ल्या शिवमंदिरांत शिवामुखार नृत्य करताल्यो. त्या काळांतल्या शिवमंदिराच्या शिल्पाचेर ह्या नृत्याच्या शिल्पांचे अवशेश दिसतात. णवव्या शतमानांत 'नृत्यकेसरी' आनी 'गंधर्व केसरी' ह्या दोन राजांनी तशेंच बाराव्या शतमानांत जावन गेल्ल्या अनंग भीम देव राजान ह्या नृत्याक आपलें फाटबळ दिलें. तातूंतल्यान ह्या नृत्याची व्हड उदरगत घडली. बाराव्या शतमानांत जावन गेल्ल्या महेश्वर महापात्र हाणें आपल्या '*अभिनयचंद्रिका*' ग्रंथांत, ओडिसी नृत्याचो शास्त्रोक्त नियाळ केला. सोळाव्या शतमानांत महारींच्या जाग्यार तरणे नर्तक देवळांत पावले. हांकां 'गोटिपुआ' म्हण्टाले. ते बायलेच्या भेसांत नृत्य करताले. ह्या 'महारी' आनी 'गोटिपुआ' हांणी ओडिसी नृत्याची परंपरा कितलींशींच वर्सां जिती दवरली. उपरांत ह्या नृत्याक देंवती कळा लागली. सद्या ह्या नृत्याचें परतें पुनरुज्जीवन जावपाक लागलां. नामनेची नर्तकी इंद्राणी रेहमान हिणें १९५८ त तें नृत्य दिल्लींत सादर केलें. उपरांत भारत आनी परदेशांतय तिच्या ह्या नृत्याक उर्बेभरीत येवकार मेळ्ळो. ओरिसा संगीत नाटक अकादमी, कला विकास केंद्र ह्यो संस्था ह्या नृत्याचें पुनरुज्जीवन करपाक खूब वावुरल्यात.

ओडिसी नृत्यप्रकार तांडव आनी लास्य ह्या दोन वेगळ्या पध्दतींनी घडला. लास्य नृत्यपध्दत मूळ महारीनी तयार केल्ली. उपरांत आयिल्ल्या गोटिपुआंनी ह्या नृत्यांत ताठरपणा हाडलो. तांडव पध्दतींत आंगाची नेटान हालचाल जाता. नृत्याची पध्दत आनी शास्त्र हे नदरेन ओडिसी नृत्य हेर नृत्यांपरस खूब वेगळें. ओडिसी नृत्याचे विंगडविंगड प्रकार अशे आसात: १. **मंगलाचरण**: हें आद्य नृत्य जावन आसा. हातूंत जायते ल्हान प्रकार आस्पावतात. देखीक: पुष्पांजली, भूमिप्रमाण, वंदना. २. **पल्लवी**: हातूंत आंगाचें मोडप काव्यात्मक आसता. तातूंत 'नृत' म्हळ्यार शुध्दनृत्य आसून नर्तक दोळे, भुंवयो आनी मान हांच्यो तालार हालचाली करता. नर्तक दर फावटी फुडलो प्रकार सुरू जावंचे आदी 'थाई' म्हळ्यार मूळ स्थानांत परत येता. ह्या नृत्यांचे स्वरपल्लवी आनी वाद्यपल्लवी अशे दोन भाग आसले तरी ते मूळ एकच आसात. वसंत- पल्लवी आनी कल्याणपल्लवी हीं दोन नृत्यां चड नामनेचीं. हातूंत संगीत आनी ताल हांकां सारकें म्हत्व आसता आनी ह्या संगीताची बसका खास रागांचेर आदारिल्ली आसता. ३. **बादू नृत्य**: हें नृत्य सगळ्यांत कठीण आसून तें भगवान शंकराचे आराधनेखातीर करतात. ताका बटुकभैरव म्हूण वळखतात. हाचे ६४ प्रकार आसात. ४. **अभिनय**: हातूंत गीतांचेर आदारिल्ले भावनाविश्कार आसतात. राधाकृष्णाची क्रीडा तशेंच गीतगोविन्द हे काव्यरचणुकेचेर आदारिल्लीं गीतां हो ह्या नृत्यप्रकाराचो खास विशय. हातूंत शृंगार आनी भक्तिरसाक चड म्हत्व दिलां. खास करून ह्या प्रकारांत दशावतार सादर करतात. ५. **मोक्षनाट्य**: हो निमाणो नृत्यप्रकार आसून तातूंत फकत नृत्य आसता. सांगाताक संगीत नासता, पूण तालाक चड म्हत्व आसता.

१९५८ वर्सा उपरांत 'शब्दनृत्य' नांवाचो प्रकार वयल्या नृत्यप्रकारांत आस्पावला. तातूंत तांडव ह्या नृत्याचो उत्स्फूर्त आविश्कार आसून शिवतांडव आनी गणेशतांडव हे प्रकार तातूंत आस्पावतात. बंधनृत्य हो आनीक एक ओडिसी नृत्याचो प्रकार आसून ताका पोरनी परंपरा आसा. हो कसरतीचो आनी कठीण आंग मोडपाचो नृत्यप्रकार आसा *अभिनयचंद्रिका* ह्या ग्रंथांत ताचे धा प्रकार सांगल्यात.

ओडिसी नृत्य प्रकारांत फुडल्यो गजाली आस्पावतात. १. **पादभेद**- स्तंभपाद, कुंभपाद, धनुपाद आनी महापाद अशे चार प्रकार आसात, पूण परंपरेखरवीं ते रेखापाद, नुपूरपाद आनी आश्रितपाद अशेय मानतात. हातूंत पादक्रिया म्हत्वाच्यो आसतात.

२. **भूमी**: नर्तकाची रंगमाचयेवेली हालचाल करपाची पध्दत. हाचे आठ प्रकार आसात.

३. **चारी**: भुंयेकडेन संबंदीत आशिल्ले वेगवेगळ्या प्रकारचे पदाघात.

४. **भ्रमरी**: गिरक्यो घेवपाचे प्रकार. हातूंत एकपाद भ्रमरी, कुंचित भ्रमरी आनी अंग भ्रमरी अशे भ्रमरीचे तीन प्रकार आसात.

५. **भंगी**: मुखेल नृत्यावस्था, त्रिभंगी (शरीर तीन कडेन बागयिल्ल्यान तयार जावपी नृत्यावस्था) आनी चौकभंगी आनी हेर अशे प्रकार आसात.

६. **हस्त वा मुद्रा**: अर्थ स्पश्ट करपाखातीर नृत्यांत हाचो उपेग जाता. हाचे वट्ट ४८ प्रकार आसात.

**रंगभूषा**: नर्तकाच्या सगळ्या आंगाक केशर लायतात. 'गोरचना' म्हळ्यार सरपटपी प्राण्यासारकीं नक्षी नर्तकाच्या कपलावेल्यान पोल्यामेरेन काडटात. भुंवयामदीं कुकमाचो तिबो लायतात. खाडकेचेर बारीकसो तीळ दवरतात. दोळे-भुंवयांत काजळ घालतात. हाताक कुंकूम तर बोटांचेर अळीता (मेथी) लायतात.

**वेशभूषा**: ह्या नृत्यांत वापरील्ले साडयेक 'पट्टसाडी' म्हण्टात. ही साडी रस्मी आसून पाचव्या वा तांबड्या रंगाची आनी णव वार लांब आसता. नृत्यांत आंगाक घालतल्या पोलक्याक 'कांचुला' म्हण्टात. हो कांचुला काळ्या वा तांबड्या रंगाचो आसता आनी ताका जरीची कड आसता. निबिबंध हें वस्त्र शरीराच्या फाटल्या भागांतल्यान हाडून मुखार बांदतात. आंगार घालतल्या वस्तींभितर, पांयांत घुंगूर, कमेरेक बेंगपाटिया, मनगटांत करकंकण, हातांत ताईत, गळ्यांत चापसरी आनी पदकतिलक, तकलेचेर अलका तर आंबाड्याचेर रत्नांनी जडयिल्ली जाळी हांचो आस्पाव आसता.

**संगीत**: ह्या नृत्यांतल्या वेगवेगळ्या प्रकारांक वेगवेगळ्या राग-तालाचेर आदारिल्लें शुध्द शास्त्रीय संगीत वापरतात. हिंदुस्थानी आनी कर्नाटकी संगीत हाचो वापर केल्यार लेगीत तांचीं खाशेलेपणां जतनायेन सांबाळटात. कविसूर्य बलदेव रथ, गोपीनाथ, उपेन्द्र भंज आनी हेर कवींच्यो गीतरचना संगीतांत वापरतात. मर्दल (मृदंगाचो प्रकार), गिनी (झांज), पखवाज, वीणा, बांसरी हीं वाद्यां संगीताची साथ दिवपाखातीर वापरतात.

**ताल**: हातूंत ध्रुवादी सप्ततालपध्दत वापरतात. तातूंतल्या खास बोलांक 'अडसा' म्हण्टात.

**कलाकार**: ओडिसी नृत्यप्रकारांत मोहन महापात्र महारींचे शिकोवपी, तर पद्मचरण दास हे गोटिपुआंचे शिकोवपी म्हूण नामनेक पावल्यात. हेर शिकोवप्यांभितर पंकज चरण दास, देवप्रसाद दास, केलुचरण महापात्र कालीचरण पटनायक हांचो आस्पाव जाता. इंद्राणी रेहमान, संयुक्ता पाणिग्राही, डॉ. कुमकुमदास, डॉ. विनंती मिश्र, रीतादेवी आनी यामिनी कृष्णमूर्ती हांचो माचयेवेल्या नामनेच्या कलाकारांभितर आस्पाव जाता.

**संदर्भ- धर्मीक**: ओडिसी नृत्याचो पुरीच्या जगन्नाथ मंदिराकडेन संबंद आशिल्लो दिसता. ह्या मंदिरांत नाचपी महारींचे दोन पंगड आसले. तातूंतलो एक ओडिसी तर दुसरो तेलुगू आसलो.

**अभ्यासक**: ओडिसा हांगाच्या नृत्यमंडळाचो कलागुरू कालीचरण पटनाईक हो नृत्याच्या मळार संशोधन करता. ताणें ओडिसी नृत्याविशीं जायतीं पोरनीं हातबरपां आनी प्रबंध जमयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**ओणम्**: केरळ राज्यांतली म्हत्वाची परब. नव्या मलयालम वर्साचो आरंभ 'ओणम'चे परबेन जाता. पावसाळो सोंपल्या उपरांत येवपी शरद ऋतूंत, मलयालम वर्साच्या चिंगम म्हयन्यांत ही परब येता. आश्विन शुध्द प्रतिपदेक सावन म्हळ्यार हस्त नक्षत्रासावन ही परब सुरू जाता आनी श्रवण नक्षत्र लागसर धा दीस चलता. श्रवण नक्षत्राक केरळांत 'ओणम' म्हण्टात.

केरळी भौस ही परब जाती पातीचीं बंधनां बाळगिनासतना मनयता. शेत पिकावळ घरांत आयिल्ल्यान जाल्ली उमेद हें ह्या परबेफाटलें एक कारण आसलें, तरीय हे परबेचें मूळ बळी राजाचे दंतकथेंत सांपडटा. ही

कथा अशी आसा: असुरांचो राजा बळी हाणें आपल्या कर्तुत्वान आनी योगबळार पुराय धर्तरेर शेक गाजयलो. ताचे राजवटींत जनता खोशयेन जियेताली. सगळ्या सुख समाधानाच्या गजालींनी ताचें राज्य परिपूर्ण आसलें. ताका लागून स्वताच्या तपोबळाचेर बळी देवलोक जिखत, असो भंय देवांक दिसलो. देवांनी भगवान विष्णुक होरायलो. विष्णून 'वामन अवतार' घेतलो. बळीच्या दानी आनी उदार स्वभावाचो फायदो घेवपाच्या हेतान वामन अवतारांतलो विष्णू तागेर भिक्षा मागपाक गेलो. वामनान बळीकडेन तीन पावलां जमीन मागली. बळीन अट मानून घेतकच वामनान आपलें आकांताचें मूळ रुप घेतलें. ताच्या दोन पावलांनी धर्तरेसयत पुराय संवसार भरून गेलो. वामनान 'तिसरें पावल खंय दवरूं?' अशें विचारतकच बळीन आपलें मस्तक ताचेफुडें बागयलें. वामनान तिसरें पावल बळीच्या मस्तकार दवरून ताका पाताळांत धाडून दिलो.

केरळांत ही दंतकथा मातशी बदलता. हांगा बळी, 'महाबळी' जाता. ही कथा द्राविडी भौसाचे नदरेंतल्यान लोकांमदीं घोळिल्ल्यान आपलो राजा फटवला अशें तांकां दिसना. महाबळी राजा दानशूर, दिल्लें उतर पाळपी, जिवाक जीव दिवपी अशी आदराची भावना केरळांत ताचेविशीं आसा. आपलो राजा महापराक्रमी आशिल्ल्यान ताका हरोवपाक देवाक येवचें पडलें अशेंय तांकां दिसता. आर्य आनी अनार्य अशा दोन संस्कृतायेंतल्या झुजांत अनार्य (द्राविडी लोक) हरले तरी तांचो राजा दानशूर पराक्रमी म्हूण म्हान, अशें केरळांतल्या लोकांक दिसता. हे दंतकथेक केरळांत आनीक एक रुप मेळटा, तें अशें- पाताळांत वचचेपयलीं, आपल्याक वर्सांतल्यान एक फावट प्रजेक भेटूंक मेळचें, अशें विष्णूकडेन महाबळी मागता. वामन अवतारांतलो विष्णू त्यावेळार 'तथास्तू' म्हण्टा. महाबळी राजा वर्सांतल्यान एकफावट लोकांचे भेटेक येता. त्या दिसाक 'भिरु ओणम्' म्हण्टात. ओणम् परबेचो आरंभ ह्याच दिसा जाता.

हे परबेक येवकार दिवंक केरळांत व्हड तयारी चलता. घरां-दारां निवळ करून तांकां रंग काडटात. घराचो फुडलो भाग फुलांनी नटयतात. घराफुडलें आंगण सारोवन ताचेर रंगोळी घालतात. ताचेर विंगडविंगड फुलांच्यो रचना करतात. ही तयारी धा दीस मेरेन चलता. श्रवण नक्षत्राच्या मुखेल दिसा वामनाची तोंकदार मातयेची मूर्त हाडून आंगणांत दवरतात. ते मुर्तीच्या भोंवतणी फुलांची सोबीत रचना करतात. पयलीं सगळे जाण एकठांय जावन 'आरप्पू' ह्या पवित्र उतरांचो मोट्यान उच्चार करतात. उपरांत वामनाची म्हळ्यार 'तृक्काक्करपन' हाची पूजा जाता. ह्यावेळार घरभर लोक नटून थटून रावतात. ह्या दिसा घरांघरांत गोडधोड, जेवणखाण जाता. ओणमच्या दिसा केरळचे लोक एक खास खेळ खेळटात. ताका 'नाटन पंतुकळि' म्हण्टात. तेभायर 'किळितट्टु', 'कुंतिक्कळी' अशे जायते मैदानी खेळ जातात. घरांत बशिल्लेकडेन बुध्दिबळ, पलॉन्कुशि, पल्लुकळि हेवूय खेळ खेळटात. चलयो आनी बायलो दनपरां आनी रातीच्यो एकठांय जावन नृत्य करतात. ताका 'कैकोट्टिकाळी' अशें म्हण्टात. दादले फकाणांची लडाय करतात. तिरंदाजीच्यो, कुस्तीच्यो आनी वाद्यां वाजोवपाच्यो सर्ती हे परबेवेळार जातात. व्हड्यांचे सर्तीक हे परबेंत खास म्हत्व आसता. हे सर्तीक 'वंचीकळी' म्हण्टात. हातूंत 'चुंडन' ह्या व्हडल्या व्हड्यासावन घरगुती बनावटीच्या पनेळांमेरेन सगळीं व्हडीं आस्पावतात.

**रिती:** ओणमच्या दिसा लग्न जाल्ले चलयेन कुळारा येवपाक जाय, असो नेम आसा. त्या दिसा घरांतल्या नोकर-चाकरांक, धनी नवीं लुगटां भेटयतात. भाटकारालीं कुळां तांकां केळीं, तवशीं, कारांदे ह्या फळांच्यो भेटी धाडटात. भाटकार गोड-धोड जेवण तांकां वाडटा.

मलयालम भाशेंत हे परबेचेर दोन सुंदर काव्यां रचल्यांत, तीं अशीं: विल्वत्तथु राघवन् नंबियार हाचें 'अरणमुला विलासम्' आनी पेरुंपरा वासुदेव भट्टार्थिरि हांचें 'उट्रितिथि चरितम्'.

केरळ सोडून तमिळनाडू, कर्नाटक वाठारांतूय ओणम् परब आदल्या काळार जाताली. तमिळ आळवाराचीं गीतां, कर्नाटकाचे दर्यादेगेलागसार गंगावळी न्हंयचे लागीं आशिल्ल्या अवशेशांवेल्यान ही गजाल सिध्द जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## ओनील, यूजीन ग्लॅडस्टन:

(जल्मः १६ ऑक्टोबर १८८८, न्यूयॉर्क; मरणः २७ नोव्हेंबर १९५३, बॉस्टन).

नामनेचो अमेरिकन नाटककार. अमेरिकन माचयेवेल्या जेम्स ओनील ह्या नामनेच्या नटाचो चलो. वेगवेगळ्या खाजगी शिक्षणसंस्थांतल्यान ताणें शिकप घेतलें. १९०६-०७ ह्या वर्सा ताणें प्रिन्स्टन विद्यापीठांत शिकप घेतलें. उपरांत नट, नाट्यसंस्था-व्यवस्थापक, पत्रकार, तारवटी अशे जायते वेवसाय ताणें केले. १९१२ त बारीक जोराक लागून तो दुयेंत पडलो. तातूंतल्यान बरो जातकच ताणें नाटकां बरोवपाचो वेवसाय सुरू केलो.



सुर्वेक ताणें Bound East for Cardiff (१९१६) ह्यो दर्याचे जिणेवयल्यो एकांकिका बरयल्यो. Beyond the Horizon (१९२०) नाटकासावन ओनीलची विस्तृत आनी प्रयोगशील नाट्यनिर्मणी खऱ्या अर्थान सुरू जाली. The Emperor Jones (१९२०) ह्या नाटकांत एका निग्रो 'दादा'च्या आनी The Hairy Ape (१९२२). ह्या नाटकांत एका खलाशी 'दादा'च्या अधःपाताचें सूक्ष्म पूण रंगयाळें चित्रण, अभिव्यक्तिवादी तंत्राचो यशस्वी उपेग करून ताणें सोबितपणान पितारलां. Desire under the Elms (१९२४) हातूंत ताणें प्यूरिटन मनाचें सखोल चित्रण केलां. Strange Interlude (१९२८) हे शोकात्मिकेंत संज्ञाप्रवाहात्मक संवादांचो प्रयोग केल्लो दिसता. Mourning Becomes Electra (१९३१) ह्या नाटकांत एस्किलस हाच्या 'ओरेस्टेइआ' ह्या नामनेच्या ग्रीक नाटकांतले श्राप, जारकर्म आनी सूड ह्या विशयांची मानसशास्त्रीय नदरेन मांडावळ करपाचो प्रभावी यत्न केला. ही कलाकृती म्हळ्यार ओनीलचे कलेचो कळस. Long Days Journey into Night (१९५६) हें आत्मचरित्रात्मक नाटक. कांय पोरन्या नाट्यतंत्रांचोय ताणें उपेग केला. देखीक- The Great God Brown (१९२६) आनी Lazarus Laughed (१९२७) ह्या दोन नाटकांत ताणें रुपड्यांचो उपेग केला. मनीस जिणेची शोकात्मकता, मनीस स्वभावाचीं विंगडविंगड तासां आनी प्यूरिटन मनाच्यो विकृती हे ताचे आवडीचे विशय. रूक्ष पूण भेदक वास्तवता, सूक्ष्म मनोविश्लेशण, अभिव्यक्तीखातीर स्वतंत्रताय अशें खाशेलेपण आशिल्ले ताचे नाट्यनिर्मणेखातीर १९३६ त साहित्याखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार ताका फाव जालो. मनीस जिणेकडेन बारीकसाणेक उक्त्या दोळ्यांनी पळोवपी आनी मनशाच्या मनाचें सूक्ष्म दर्शन घडोवपी ओनीलाइतलो नाटककार अमेरिकन साहित्याच्या मळार आनीक कोण ना, अशें म्हण्टात.

ताच्या Beyond the Horizon, Strange Interlude आनी Long Days Journey into Night ह्या नाटकांक पुलित्झर इनामां फाव जालीं.

Iceman Cometh (१९४६) ही ताची नाट्यकृती सगळ्यांत म्हत्वाची

अशें मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**ओमानः** अरबस्तानच्या आग्नेय तोंकावेलो देश. मस्कत आनी ओमान ह्या नांवान १९७० मेरेन नांवाजिल्लो. क्षेत्रफळ २,१२,४०० चौ. किमी. लोकसंख्या १२,२८,००० (१९८५). हाचे उत्तरेखटेन ओमानचें आखात, उदेंतेक आनी दक्षिणेक अरबी दर्या, नैर्ऋत्येक दक्षिण येमेन, अस्तंतेक सावदी अरेबिया आनी वायव्येक संयुक्त अरब अमीर राज्यां आसात. हॉर्मुझच्या दर्यांत आशिल्लो रुऊस- अल्- जबल हो ओमानचो दोंगरी द्वीपकल्पीय वाठार, कल्बा आनी फुजाइरा ह्या संयुक्त अरब अमीर राज्यांनी ओमानच्या मुखेल भुंयेसावन वेगळो काडला. १७८४ वर्सा कलातच्या खानाकडल्यान ओमानाक मेळिल्लो मकरान दर्यादिगेवेलो ग्वादर बंदरालागींचो वाठार ओमानान १९५८ वर्सा पाकिस्तानाक ३० लाख पौंड घेवन पर्थून दिलो, जाल्यार १८५३ त ओमानाकडल्यान मेळिल्ले दक्षिण दर्यादिगेलागचे कुरिया-मुरिया जुंवे ब्रिटनान १९६७ वर्सा ओमानाक पर्थून दिले. १,६०० किमी. ची दर्यादिग आशिल्ल्या ह्या देशाची मस्कत ही राजधानी जावन आसा.

**भूंयवर्णनः** अशीर दर्यादिग, तिचेफाटलो पर्वतांचो वाठार आनी तांच्यायफाटीं पठारी वाठार अशें सादारणपणान ओमानाचें भुगोलीक स्वरुप आसा. ओमानच्या आखातावेली उत्तरेखटेनची दर्यादिग सुमार २५० किमी. लांब आनी २०-६० किमी. रुंद आसा. हो वाठार बरोच पिकाळ आसा आनी बाटिना ह्या नांवान वळखुपी ह्या वाठारांत खाजराचें पीक बरें जाता. बाटिनाचे दक्षिणेवटेनची दर्यादिग सामकीच अशीर आसा आनी मस्कत शार ह्याच वाठारांत आसा. दर्यादिगेक तेंकून अल् हाजर ही सुमार ४८० किमी. वायव्य-आग्नेय पर्वतांची वळ पातळ्ळ्या. वाडी समाईल ह्या न्हंयच्या देगणाक लागून तिचे उदेंत हाजर आनी अस्तंत हाजर अशे दोन वांटे जाल्यात. जबल-अल्-अख्दर हें हांगाचें सगळ्यांत ऊंच (३,१०७ मी.) दोंगरातेमक. ओमानची अरबी दर्यावेली धोफारची देग मात सुमार ३२ किमी. रुंद आनी पिकाळ आसा. हे दर्यादिगेचे उत्तरेक जबल फलिक, कमर, कारा, समहान ह्या सारक्यो ९००-१,२०० मी. उंचायेच्यो पर्वतांच्यो वळी आसात. हांचेमदीं धोफर नांवाचो पठारी वाठार आसा. ओमानचो भितरलो पठारी वाठार सामकोच उसू पडिल्लो आसा आनी तो सावदी अरेबियाच्या रब-अल्-खली ह्या वाळवंटाक मेळटा. दर्यादिगो आनी कांय पाचवे वाठार सोडल्यार ओमान देश वाळवंटाचो, फातरांनी भरिल्लो आनी सुको आसा. न्हंयोय सुकून गेल्ल्यो आसतात. तांकां वाडी म्हण्टात. ओमानचे दक्षिणेवटेनचे जुंवे, कुरिया-मुरिया हेय अशेच सुके आनी उसू पडिल्ले आसात.

**हवामान, वनस्पत आनी मोनजातः** सामकेंच उश्ण आनी दर्यादिगांचेर दमट हवामान, ही ओमानची खाशेलपणां. दर्यादिगांलागीं दर्याचें उदक चडशें गरम आसता. हांगाचें तापमान नोव्हेंबर ते मार्च मेरेन १६ ° से ते २१ ° से. मेरेन आसता; तर गिमादिसांनी तें ५५° ते ६६° से. मेरेन वयर पावता. पर्वतांच्या वाठारांतलें हवामान त्या मानान उण्या तापमानाक लागून बरें आसता. उदेंतेचे दर्यादिगेवेलें वर्सुकी पावसाचें प्रमाण १० सेंमी. आसता. चडसो पावस दर्यादिगो आनी पर्वतांच्या उंचेल्या वाठारांनीच पडटा. धोफार दर्यादिगेर मात मोसमी वाऱ्यांक लागून सुमार ६० सेंमी. पावस पडटा. चड उश्णताय आनी उणो पावस हांकां लागून ओमानच्या कांय भितरल्याच वाठारांनी वाळवंटांनी वाडपी झोंपां, तींय सामकींच उण्या प्रमाणांत आसात. दोंगरी वाठारांनी सामकी उणीं रानां आसात. थंय चित्तो, हरण, सांबर, खोकड, कोलसूणें, सोसो ही मोनजात दिश्टी पडटा.

**इतिहासः** ओमानचे दर्यादिगेवेल्यान बाबिलोन पयलींच्या काळासावन



येरादारी जाल्याचे पुरावे मेळटात. उत्तरेखटेनच्यान आयिल्ल्या सेमेटिकांनी ओमानांत राबितो करून आशिल्ल्या ॾ्रॅमायटांक थंयसावन धांवडावन घाल्ले. इ.स. प. ५२६ त ओमानचो कांय वाठार पर्शियन साम्राज्याचे सत्तेखाल आशिल्ल्याची नोंद आसा, पूण सातव्या शेंकड्यामेरेन, ओमानान इस्लाम धर्म आपणावचे पयलींचो इतिहास स्पश्ट जायना. ओमानान इस्लाम धर्माक आपणायल्या उपरांतय मूळचो वंशभेद चालूच उरलो. उत्तरेखटेनच्यान आयिल्ले ते हिनवी आनी हांगाचे मूळ लोक घाफिरी अशें मानतात. इस्लाम धर्मांतल्या फुटाफुटी उपरांत आठव्या शेंकड्यांत अब्दल्ला इब्न इबाह (६९९-?) हाणें ओमानांत इबादीय (अबादीय) पंथाची थापणूक केली. ह्या लोकांनी ७५१ त जुलंद बिन मसूद हाका ओमानचो पयलो इमाम म्हूण वेंचलो. ताच्या उपरांत नेमान इमामाची वेंचणूक जाताली, पूण ११५४ त बनू नभन हाणें आपल्या वंशाची थापणूक केली. १४२९ सावन नभनी राजांवांगडा लोकांनी वेंचिल्ल्या इमामांचोय कारभार चालू जालो. ९ व्या शेंकड्यासावन ओमानचे संबंद उदेंत आफ्रिकेंतल्या वाठारांकडेन आयले. मोझांबिकलागच्या कांय वाठाराचेर तांची सत्ता चलताली. १५०८ त पोर्तुगेजांनी ओमानच्या दर्यादिगेवेले वाठार आनी उदेंत आफ्रिकेंतल्या वाठाराचेर सत्ता गाजोवंक सुरवात केली. सुमार १५० वर्सां हो वाठार तांचेकडेन उरलो. १६१६ त ओमानांतल्या नासिर बिन मुर्शिद ह्या इमामान आपली सत्ता घटमूट करून यारुबी वंशाची थापणूक केली. ताचो भुरगो बिन सैफ हाणें ओमान आनी उदेंत आफ्रिकेंतल्यान पुर्तुगेजांक धांवडावन घाले आनी ओमानाचें साम्राज्य वाडयलें. १७०८ त इमामाक फाटबळ दिवपी हिनवी आनी घाफिरी हांचेमजगतीं झूज पेटलें. इमामान इराणाचो पालव घेतलो. १७३७ त इराणच्या नादिरशहान ओमानाचेर घुरी घाली. १७४१ त घाफिरींचे फाटबळ आशिल्ल्या इमाम अहमद बिन सैद हाणें इराण्यांक धांवडावन सय्यद (सैद) घराण्याची थापणूक केली. ब्रिटनान ओमानाकडेन १७९८ त कबलात करून शांततायेचे संबंद जोडले. १८२० त ओमानाचें साम्राज्य बळिश्ट जालें. १८३२ त सुलतानान आपली राजधानी झांझिबार हांगा हाडली. ताच्या मरणा उपरांत १८५६ त ताच्या भुरग्यांनी ओमान आनी झांझिबार वांटून घेवन स्वतंत्र राज्यां तयार केलीं. ओमानाचो सुलतान दुबळो जाल्ल्यान ब्रिटनान १७९१ त ओमानाक भारतावांगडा आपले सत्तेखाला घेतले. १९१३ त थळाव्या लोकांनी बंड करून नव्या इमामाक वेंचलो, पूण ताचो १९२० त खून जालो. सैय्यद तैमुर ह्या सुलतानान फुडल्या इमामाकडेन बरे संबंद राखले. १९५४ इमामान वेगळें राज्य तयार करपाचो यत्न केलो. पूण सुलतानान ब्रिटिशांच्या पालवान ताचेर जैत मेळयलें. १९५६ त संयुक्त राश्ट्रांनी थाराव घेवन ओमानाक स्वतंत्रताय दिवपाची मागणी केली. ब्रिटनान ती मानून घेतली. सुलतान सैद बिन तिमूर हाच्या राजकारभाराक वाजेवन ताचो चलो काबूस बिन सैद हाणें २४ जुलय १९७० दिसा रगतहीन क्रांती करून ओमानचेर सत्ता मेळयली. धोफार वाठारांत १९७१-७२ त सुलतानाआड बंडाचे यत्न जाले, ह्या बंडाच्या फुडाऱ्यांक हरोवंन बंड चेपून उडयलें. आयजमेरेन हांगाचो सुलतान काबूस बिन सैद होच आसा.

**राज्यवेवस्थाः** ओमानांत पुरायपणान एकाधिकारशाय चलता आनी ह्या देशाक औपचारिक संविधान ना. सुलतान आपल्या हुकुमनाम्यावरवीं विधीमंडळ थारायता. देशाचो पंतप्रधान, राश्ट्राध्यक्ष, परराश्ट्र मंत्री, राखणेमंत्री आनी राखणे दळांचो सगळ्यांत वयल्या पांवड्यावेलो मुखेली सुलतान आसा. थळावें प्रशासन ४० प्रांतांतल्यान (विलायेत) चलता. हांचेर नियंत्रण दवरपाखातीर सुलतान राज्यपालाची नेमणूक करता. संसद आनी हेर लोकशाय राज्यांनी सांपडपी राज्यकारभाराची वेवस्था ह्या देशांत ना.

**अर्थीक स्थितीः** सामकें उश्ण हवामान, उणो पावस ह्या गजालींक लागून ओमान शेतवड आनी उद्येगांच्या मळार पयलींसावन फाटीं पडला. चांचेगिरी, नुस्तेमारी, मोतयां आनी खाजूर ह्या गजालींक लागून हो वाठार पयलीं नांवाजिल्लो आशिल्लो. बाटिना हांगा खाजरांचें पीक बरेंच येता. १९६४ त पेट्रोलियम सांपडल्या उपरांत ओमानाक म्हत्व आयलें. पेट्रोलियमच्या उत्पादनाचेर हांगाची अर्थवेवस्था आदारल्या. सामक्याच उण्या वाठारांनी गंव, बार्ली, ज्वारी, ऊंस, तंबाखू, केळीं, आंबे, ऑलिव्ह, बदाम, अक्रोड, नाल्ल हांचें पीक येता. रानां सामकींच उणीं आसात आनी थंय हिंगासारकें पीक सापडटा. नुस्तेमारी आनी दर्यांतल्यान मोतयां काडपाच्या धंद्याक हांगा म्हत्व आसा. अन्नाच्या चडशा वस्तूंची ओमानाक आयात करची पडटा. निर्यात चडशी पाकिस्तान, भारत, इराक, इंग्लंड ह्या देशांकडेन जाता. ओमानांत उंटांक पोसपाचो धंदो बरोच उदरगतीक पावला. हालींहालींच तरांतरांचे कारखाने उगडून उत्पादन करप चालू जालां.

रियाल ओमानी हें हांगाचें चलनी नाणें जावन आसा.

**येरादारी आनी संचारणः** ओमानांत रेल्वे मार्ग आनी उदकांतले मार्ग नात. देशांतल्या बंदरांचो उपेग चडसो पेट्रोलियमची निर्यात करपाखातीर जाता. रस्त्यांचें प्रमाणय चड ना पूण देशांतलीं मुखेल शारां रस्त्यांच्या आदारान एकामेकांक जोडल्यांत. हांगा राश्ट्रीय विमान कंपनीय ना. गल्फएअर ही विमानकंपनी हांगाच्या हवाई मार्गाचेर नियंत्रण दवरता. सीब हो मस्कत शारालागीं आशिल्लो विमानतळ हांगाचो मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ जावन आसा.

ह्या देशांत एकय दिसाळें ना. दोन सातोळीं, एक अरबी आनी दुसरें इंग्लीश भाशेंतल्यान उजवाडाक येतात. रेडिओ आनी रंगीत दूरचित्रवाणीची मात हांगा बरेपैकीं वेवस्था आसा.

**लोक आनी समाजजीणः** हिनवी आनी घाफिरी ह्या दोन पंगडांचे लोक हांगा आसात. चडशे लोक इबादीय पंथीय सुन्नी इस्लामी आसात. दर्यादिगांवेल्या शारांनी भारतीय, बलुची, निग्रोवंशीय लोक सांपडटात; जाल्यार दोंगरी वाठारांनी भारतांतल्या तोडा जमातीसारक्यो कांय जमाती रावतात. मस्कत आनी हेर व्हडल्या शारांनी बरेतरेचीं घरां आसात, जाल्यार गांवगिऱ्या वाठारांनी लोक चडशे तंबू आनी खोपटांनी रावतात. सादारणपणान अरबी मनशासारकी हांगाच्या लोकांची जीण आसली, तरी संस्कृताय भारतीय आनी इराणी संस्कृतायेक चड लागींची आसा. सोरो पिवप ना, भौशीक जाग्यांचेर तंबाखू ओडप ना, आंग धांपपी मुस्तायकी आनी बायलांखातीर बुरखो, असल्यो चालीरीती अजून हांगा आसात. हालींच्या काळांत वाडट्या गिन्यानाच्या प्रसाराक लागून हांगाच्या लोकांचीं पोरनीं मतां बदलून अस्तंतेकडल्या लोकांच्यो चालीरीती समजून घेवन तेभशेन रावपाचो थोडो भोव यत्न चलला.

**शिक्षणः** ओमानांत राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण २०% आसा. हांगा अजूनमेरेन सक्तीचें आनी फुकट शिक्षण घेवपाची तजवीज ना. स वर्सां मुळावें, ताचे उपरांत तीन वर्सां माध्यमिक आनी ३ वर्सां उच्च माध्यमिक अशें बारा वर्सांचे शिक्षण हांगा आसा. सप्टेंबर ते मे मेरेन शिक्षिणीक वर्स आसता. शिक्षणाचें माध्यम अरबी आसलें तरी माध्यमिक पांवड्याचेर इंग्लीशींतल्यानय शिक्षण दितात. शिक्षण मंत्रालयाच्या हाताखाला शिक्षण पध्दतीचें नियंत्रण आसता. हांगा उंचेल्या पांवड्यावेलें शिक्षण दिवपी संस्था नात. उंचेल्या पांवड्यावेलें शिक्षण घेवपाखातीर हांगाच्या लोकांक दुसऱ्या देशांनी वचचें पडटा. हांगाचे बरेच विद्यार्थी ब्रिटन, इराक, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, सिरिया, कुवेत हांगा शिक्षण घेवपापासत वचून रावल्यात.

**भाशा आनी साहित्यः** हांगाच्या लोकांचे सगळे वेव्हार अरबी भाशेंतल्यान जातात. थळावें नांव घेवपासारकें साहित्य हांगा ना. हेर अरबस्तानांतल्या देशांतलें अरबी भाशेंतलें साहित्य हांगाच्या लोकांक वाचपाखातीर मेळटा.

**म्हत्वाचीं थळांः** मस्कत हें राजधानीचें शार सोडीत जाल्यार हांगा खासा म्हत्वाचीं थळां नात. देशाचें क्षेत्रफळय उणें आसा आनी राजधानीचें शार चडश्यो सगळ्यो गजाली भागोवंक शकता.

- कों. वि. सं. मं.

**ओरिसा:** भारतीय संघराज्यांतलें एक घटक राज्य. हें राज्य भारताचे उदेंतेक वसलां. ह्या राज्याचे ईशान्येक अस्तांत बंगाल, उत्तरेक बिहार, दक्षिणेक आंध्र प्रदेश, अस्तंतेक मध्य प्रदेश, उदेंतेक बंगालचो उपसागर आसा. अक्षांश आनी रेखांशः उत्तर १७° ४८' ते २२° ३४' उदेंत ८१° ४२' ते ८७° २९'. राजधानी- भुवनेश्वर.

**भूंयवर्णनः** राज्याचें सैमीक नदरेन चार वाठार करुं येतात.

**उत्तरेचें पठारः** हातूंत मयूरभंज, केओंझार आनी सुंदरगढ हे जिल्हे, धेनकानाल जिल्ह्याचो पाल्लहरा म्हाल हे वाठार आस्पावतात. हो ऊंच-सकयल वाठार आसून ताका उत्तरेकडल्यान दक्षिणेवटेन देंवती आसा.

**न्हंयचो वाठारः** हातूंत बोलानगीर, संबळपूर आनी धेनकानाल हे जिल्हे आस्पावतात. ह्या वाठारांतली जमीन पिकाळ आसा. सपाट मळांनी अदीं-मदीं दोंगुल्ल्यो दिसतात. महानदी, ब्राह्मणी आनी वैतरणी ह्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो ह्या वाठारांत आस्पावल्यात. उदका येरादारी चडशी ह्या वाठारांतल्यान जाता.

**उदेंतेकडलो दोंगुल्ल्यांचो वाठारः** हातूंत कोरापुट, कालाहंडी, बौध खोंडमाल्स आनी गंजाम हे जिल्हे आस्पावतात. हो वाठार दोंगर आनी रानांनी भरला.

**न्हंयच्या गाळाचो वाठारः** बलसोर, कटक आनी पुरी जिल्ह्यांचो कांय वाठार हातूंत आस्पावला. ही गाळाची जमीन पिकावळीक खूब बऱ्याक पडटा. अस्तंतेकडलो दोंगराळ वाठार आनी उदेंतेकडलो खारपट्टो हांचेमजगतीं न्हंयगाळाचो लांब पट्टो आसा.

**न्हंयोः** राज्यांतली सगळ्यांत व्हड न्हंय महानदी आसून ती राज्यांतल्या ८५३ किमी. व्हांवता. तिचेर हिराकूड हें धरण आसा. ब्राह्मणी आनी वैतरणी ह्यो हेर म्हत्वाच्यो न्हंयो आसून त्यो बंगालच्या उपसागराक मेळटात. राज्याच्या उत्तर वाठारांत सालंदी, बुराबलंग आनी सुवर्णरेखा तर दक्षिण वाठारांत ऋषिकूल्या, वंशधारा, नागावली, इंद्रावती, कोलाब आनी मचकुंद ह्यो ल्हान न्हंयो आसात.

**दोंगरः** राज्यांत व्हडल्या दोंगुल्ल्यांच्यो रांगो आसात. मलयगिरी, मानकर्णाच, मेघसानी हे कांय म्हत्वाचे दोंगर आसात. तांची उंचाय १,१०० ते १,२०० मी. भितर आसा. हेर दोंगरांमदीं देवमाली (१६७० मी.) तुरिया कोंडा (१५९८ मी.), महेन्द्रगिरी (१५०० मी.) हांचो आस्पाव जाता.

**दर्याः** राज्याक ४८२ किमी. लांबायेची दर्यादेग मेळ्ळया.

**हवामानः** ओरिसा राज्य उश्ण कटीबंधांत येता. हांगाचें सादारण हवामान उश्ण आसता. गिमांत उदेंतेकडल्यो दोंगुल्ल्यो आनी उत्तरेकडलें पठार हांचे उंचायेवेले जागे सोडून सादारण तापमान ३८° से. आसता. शिंयां दिसांनी तापमान २२.८° से. १५° से मेरेन आसता. वर्साक सरासरी १४८ सेमी. पावस पडटा. अरबी दर्या आनी बंगालचो उपसागर ह्या दोनूय कडचें वारें राज्यांत एकठांय येता. दर्या देगेर जायते खेपो वादळां जावन लुकसाण जाता.

**वनस्पत आनी मोनजातः** राज्यांतलें रान, राज्याचे वट्ट जमनीच्या ४२.७२% आसा. अस्तंतेकडल्या वाठारांत रान चड आसा. शाल, सायल, शिसवी, पिआसाल, कुरुम, चांफो, गंभर, कोंडे राज्यांत व्हड प्रमाणांत जातात. तेंदूचीं पानां विडयो करपाक वापरतात. वखदी वनस्पत खूब प्रमाणांत जाता. सर्पगंधा सारकी वनस्पत हांगा मेळटा.

**मोनजातः** राज्यांत वाग, हत्ती, चित्ते, रानरेडे दिश्टी पडटात. ब्राह्मणी न्हंयेंत मानगीं तर चिल्का तळ्यांत उदकांत रावपी बदकां आनी हेर सवणीं नदरेक येतात.

**इतिहासः** आद्य पुराणकाळासावन ह्या राज्याक कलींग आनी उत्कल ह्या दोन नांवानी वळखताले. सुद्युम्नपत उत्कल हाणें ह्या राज्याची थापणूक केल्ली म्हूण राज्याक उत्कल म्हणूंक लागले. सुवर्णरेखा न्हंय सावन ऋशीकलमेरेन आनी मेकल राज्यासावन कापशेमेरेन ह्या राज्याच्यो शिमो आसल्यो. वयलें थळ आंध्राचे उत्तरेक, आर्यावर्ताचे उदेंतेक येता.

इ.स.प. चवथ्या शतमानांत, कलिंग राज्यांतल्या जैन धर्मीय राजांक मगधाच्या नंदांनी हरयलो. उपरांत चंद्रगुप्त मौर्यान नंदाक हरयलो आनी कलिंग स्वतंत्र केलो. फुडें चंद्रगुप्ताचो नातू अशोक हाणें व्हड झूज करून कलिंग देश जिखलो. त्या झुजांत जाल्ल्या भिरांकूळ मनीसहानीक लागून तो अहिंसावादी जावन बौध्द धर्माचो उपासक जालो. अशोका उपरांत कलींग परत स्वतंत्र जालो. इ.स.प. दुसऱ्या शतमानांत चेदी वंशाचो तिसरो खाखेल हो राजा जालो. ताणें कन्याकुमारी सावन गंगेमेरेन आनी अस्तंतेक महाराष्ट्रमेरेन जैत मेळयलें. भुवनेश्वरलागीं हाथीगुंफेंत ताचे राजवटीविशीं बरयल्लें वाचूंक मेळटा. ताची राजवट चड काळ उरली ना. हाचे उपरांत ओरिसाचो इतिहास स्पश्ट मेळना.

इसवी सनाच्या पयल्या दोन शतमानांत उत्कल प्रदेशाचे दर्यादेगेक बंदरां आशिल्लीं, तशेंच ह्या वाठारांकडेन विंगडविंगड मळांवेल्या बुदवंतांचो संपर्क आयलो, हें काय पुराव्यांवेल्यान स्पश्ट जाता. चवथ्या शतमानांत सम्राट समुद्रगुप्तान दक्षिण दिग्विजयाचे वाटेर आसतना उत्कलच्या पांच राजांक हरयल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. सातव्या शतमानांत कलिंग देश हर्षवर्धनाच्या साम्राज्यांत आयलो. तेन्ना थंय महायान बौध्दमताच्या प्रचाराचो यत्न जालो. ताचे राजवटींत इ.स. ६३८ वर्सा ह्युएनत्संग हो चिनी भोंवडेकार कलिंगांत पावलो. सातव्या शतमानांत ओरिसांत सोमवंशीय महाभावगुप्त जनमेजयान (६८०-७१२) आपले राजवटींत नव्या राज्याची थापणूक केली. ताणें राज्याची शीम कटक मेरेन व्हेली. ताच्या फाटल्यान महाशिवगुप्त आनी ययाती अशे दोन राजा गादयेर बसले. तातूंत ययाती राजान केसरी कुळाची राजवट सुरू केली. कलिंग, कंगोड, कोसल आनी उत्कल हीं राज्यां एकठांय करून खाखेल साम्राज्य परंपरा परत हाडली. ती तो वैदिक धर्माचो पुरस्कार करतालो. ताणें कान्यकुब्जसावन १०,००० ब्राह्मणांक हाडून ओरिसांत तांची वसणूक केली, अशें म्हण्टात. पुरी हांगासल्लें जगन्नाथाचें देवूळ ताणेंच बांदलें. ताचो पूत उद्योतकेसरी-दुसरो महाभावगुप्त, हो बरो राज्यकर्तो तशेंच धर्माभिमानी आसलो. ताचे राजवटींत भुवनेश्वर हांगा जायतीं देवळां बांदलीं. इकराव्या शतमानांत गंग वंशाचो राजा तिसरो वज्रहस्त हाणें त्रिकलिंगाधिपती ही पदवी घेवन कलिंगाचेर ३० वर्सां राज्य केलें. इकराव्या शतमानांत अनंतवर्मन चोडगंग हाणें पुरीच्या जगन्नाथ देवळाचो मंडप आनी कळस बांदलो अशें म्हण्टात. गंग राजे वैश्णव मताचे आसले. तातूंतलो पयलो अनंगभीम, दुसरो राजराज, दुसरो अनंगभीम आनी कोणार्क हांगासल्लें नामनेचें सूर्यमंदिर बांदपी पयलो नरसिंहदेव हाणें खूब कीर्त जोडली.

१३५२ त बंगालच्या सुलतानांनी ओरिसाचेर घुरी घाली. तीन वर्सांनी दक्षिणेच्या बळीश्ट विजयनगरच्या सेनापतीन गंगाराज भानुदेवाक हरयलो. १३६१ वर्सा फिरोजशहा तुघलकान घुरी घाली. जायत्या देवळांचो विध्वंस केलो. १४३१ त गंगवंशीयांफाटल्यान सूर्यवंशीय कपिलेंद्रदेवान सत्ता हातासली आनी गजपतीची राजवट सुरू जाली. ताणें सुर्वेक ओरिसांतलीं भितल्लीं झगडीं सोंपयलीं. बंगालच्या सुलतानाचेर जैत मेळयलें. बहामनी सैन्याक हरोवपाक येस जोडलें. विजयनगर हाचो बरोच वाठार ताणें जिखलो. १५६८ त बंगालचो सुलतान सुलेमानखान हाचो सेनापती काला पहाड हाणें ओरिसाचो निमणो राजा मुकुंददेव हाचेर जैत मेळयलें. १५९२ वर्सा अकबराचो सेनापती मानसिंग हाणें हो वाठार जिखलो आनी मोगल साम्राज्याक जोडलो. औरंगजेबाच्या मरणाउपरांत बंगालचे नबाब ओरिसाचेर राज्य चलोवंक लागले. १७५१ त ब्रिटिशांनी हो वाठार जिखलो. १८२८ वर्सा कटक, बलसोर आनी पुरी हे जिल्हे एकठावन आनी तातूंत संस्थानां जोडून, ओरिसाक बिहार राज्याचो उपप्रांत केलो. १९०५ वर्सा संबळपूर जिल्हो ओरिसांत हाडलो. १९३६ वर्सा ओरिसा वेगळो प्रांत जालो. ओरिसा हो प्रांत वेगळो जावचो, म्हूण देशभक्त मधुसुदन दास हाणें उत्कल युनियन कॉन्फरन्सची चळवळ सुरू केली. ही चळवळ १९०३ वर्सा सावन चलताली.

महात्मा गांधीचे असहकार चळवळींत, ओरिसा कॉंग्रेसीन व्हड




प्रमाणांत वांटो घेतलो. १९३० वर्साचो मीठ सत्याग्रह जैतिवंत करपाक गोपबंधू दास मेहताब, रमादेवी, मालतीदेवी, सरलादेवी हांणी खूब वावर केला. १९३७ त विश्वनाथ दास हाच्या फुडारपणाखाल पयलें काँग्रेस सरकार राज्यांत सत्तेर आयलें. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत काँग्रेस पक्षान सत्ता सोडली. १९४२ त जाल्ले चळवळींत जायत्या देशभक्तांनी वांटो घेतिल्लो. तातूंतल्या लक्ष्मण नायक हाका फाशी दिल्ली. भारताचे सुटके उपरांत ओरिसा, मध्य प्रदेश आनी बिहार राज्यांतलीं वट्ट २६ संस्थानां भारतीय संघराज्यांत विलीन जालीं. १९ ऑगस्ट १९४९ दिसा ओरिसा भारताचें घटक राज्य जालें.

**राजवेवस्थाः** राज्याचो कारभार पळोवचेपासत राज्याचे बालेश्वर, फुलबनी, बोलांगीर, कटक, धेनकानाल, गंजम, कालाहंडी, क्योंझर, कोरापुट, मयुरभंज, पुरी, संबळपूर, सुंदरगढ अशे १३ जिल्हे केल्यात. तातूंत २२ लाखांवयर लोकसंख्या आशिल्ले ६ जिल्हे आसात. राज्यांत ५७ उपविभाग, २७ नगरपालिका, १३ जिल्हा परिशदो, ३१४ पंचायत समिती आनी ३८३० ग्रामपंचायती आसात. ह्या राज्यांत विधानपरिशद ना. विधानसभेचेर १४७ वांगडी, लोकसभेचेर २० वांगडी, राज्यसभेचेर १० वांगडी ओरिसा राज्याचें प्रतिनिधित्व करतात. वरिश्ठ न्यायालयांत एक मुखेल न्यायमूर्ती आनी ४ पालवी न्यायमूर्ती आसात.

**अर्थीक स्थितीः** वट्ट १.५६ कोटी हेक्टर जमनींतली ४९.६ लाख हेक्टर जमीन रानाखाल आसा. सुमार ८ लाख हेक्टर जमीन पडंग, ७.२३ लाख हेक्टर जमीन चरोव आशिल्ली आसा. पिकावळीक फाव आशिल्ली ८७.४६ लाख हेक्टर जमनीतल्या १८.७९ लाख हेक्टर जमनीक उदक पावलां. शेताचेर ७६ % लोक जियेतात. राज्याचे येणावळीमदली ६६% येणावळ शेतासावन मेळटा. तांदूळ, बटाट, ऊंस, दाळ, जूट, तेलबियो, चिंच, हळद, मिरसांगो, सांसवां, तंबाखू हीं पिकां राज्यांत जातात. राज्यांतल्या फळफळावळीचें निव्वळ उत्पादन ४.१ दशलक्ष टन इतलें आसा.

**खनीज संपत्तीः** ओरिसांत खनीज खूब प्रमाणांत मेळटा. लोखण, दगडी कोळसो, बोक्साइट, चुनखडी, क्रोमाइट, कोळसो, ग्राफाइट, डोलोमाइट हीं खनिजां मेळटात. देशांतलें २०% मँगनीज उत्पादन ह्या राज्यांत जाता.

**उदकांतली पिकावळः** नुस्तें मारपाक फावो तो दर्या, न्हंयो, तळीं आसून लेगीत राज्यांत हो धंदो फळादीक जावंक ना. दर्यादिगेचो आवांठ १४,३०० चौ. किमी. आसा. तातूंत बांगडे, संरगो, हिलसा हें नुस्तें मेळटा. सन १९८१-८२ त राज्यांत ८२,००० टन नुस्त्याचें उत्पादन जालें. तेवखीं सादारणपणान ४ कोटी रुपया येणावळ मेळटा.

**उद्योगधंदेः** राज्यांत यंत्रसामुग्री, लोखणी नळ, रसायनां, सारें, शिमीट, चिनी मातयेच्यो वस्तू, कागद, कापड, कंवची, साकर हांचे कारखाने राज्यांत आसात. हातमाग, कापड, विडयो, खेळणी, वेतकाम, कोंड्याकाम, तांब्या-पितूळच्यो वस्तू, रुप्याचें जाळीकाम हे ल्हान उद्देगय राज्यांत चलतात.

राउरकेला हांगा हिंदुस्थान स्टीलचो कारखानो आसा. तातूंत वर्साक १० लाख टन उत्पादन जाता. निकेलचो कारखानो कटक हांगा आसा. हिराकूदचे विजेचेर एक ॲल्युमिनियमचो कारखानो चलता. तातूंत वर्साक १०·हजार टन उत्पादन जाता. राज्यांतल्या ९००० उद्देगीक वसाहतींनी ६४,७९८ लोकांक काम दिवपाची क्षमता आसा. तातूंत ७,१७८.८६ लाख भांडवल घोळटा. कटक हें मुखेल उद्देगीक केंद्र आनी उद्येगाची बाजारपेठ जावन आसा. पुरी, बालासोर, संबलपूर, चौद्दार आनी पर्लाकिमिडी हांगा वेपार चलता.

**वीजः** हिराकूद धरण प्रकल्प, बालीमेला हायड्रो इलेक्ट्रिक प्रकल्प, मेखाकुंडा हायड्रो प्रकल्प, इंद्रावली हायड्रो इलेक्ट्रीकल प्रकल्प, हे मुखेल प्रकल्प आसात. डिसेंबर १९८६ मेरेन १२३४ मेवॉ. वीज उत्पादन जाल्लें.

५१,६३९ खेड्यांमदल्या २४,९५२ खेड्यांक वीज पावल्या.

**येरादारी आनी संचारण:** रस्ते येरादारी: ३१ मार्च १९८३ मेरेन १,१९,४८६ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. तातूंतले १,६४९ किमी. लांबायेचे राष्ट्रीय रस्ते तर १३,००० किमी. रस्ते पक्के आशिल्ले. सरकारी राज्याची येरादार खातीं ४५० वयर बसी चलयतात. ओरिसा मार्ग येरादारी यंत्रणा केंद्र, राज्य आनी भौशीक ह्या तिगांच्यो मेळून २०० बसी चलतात.

**उदका येरादारी:** न्हंय आनी कालवे हातूंत उदका येरादारीचे ३४७ किमी. लांबायेचे रस्ते आसात. दर्यावेल्या बंदरांमदीं पारक्षिप (कटक) हें सगळ्यांत व्हड बंदर आसा. हेर बंदरांमदीं चंदबाली (बलसोर), गोपालपूर (गंजाम) हांचो आस्पाव जाता.

**रेल्वे:** राज्यांत २००० किमी. लांबायेचे रस्ते आसात.

**हवाई:** ओरिसांतलो मुखेल विमानतळ भुवनेश्वराक आसा. थंयसावन दिल्ली, कलकत्ता, हैद्राबाद, हांगा विमान-येरादारी चलता. वायुदूत विमान सेवा भुवनेश्वर, जयपूर आनी राउरकेला हांगाय चलता.

**लोक आनी समाजजीण:** राज्याचो आवांठ १,५५,७०७ चौ. किमी. आसा. लोकसंख्या: २६,३७०,२७१ (१९८१).

**धर्म:** राज्यांत वट्ट लोकसंख्येच्या ९६% हिंदू, सुमार २% किरिस्तांव तर १.५% मुसलमान आसात. हिंदूमदीं वैश्णव आनी शैव पंथीय मुखेल आसून ते पुरीच्या जगन्नाथदेवाक मानतात. जैन मताचेय लोक हांगा आसात.

**जाती/जमाती:** अनुसूचित जाती-जमातीची लोकसंख्या राज्यांत ९७.८ लाख आसून राज्यांतले वट्ट लोकसंख्येंत हेर राज्यांपरस-हें प्रमाण सगळ्यांत चड आसा. राज्यांत आदिवासी २४% तर अनुसूचित जमाती १५.७% अशें प्रमाण पडटा. पाण, गंदा, डोम, धोबा, बावरी आनी कांद्रा ह्यो कांय अनुसूचित जाती तर कोंड, गोंड, संताळ, सावरा, मुंडा, कोल, भुइयाँ, ओराओं, भूमिजी, भौमिया आनी शबर ह्यो कांय आदिवासी जमाती आसात. ससनी ब्राह्मण, उत्कल ब्राह्मण हांकां समाजांत व्हड मान आसा. ताच्या फाटल्यान क्षत्रिय आनी राजपूत वर्ग येता. सगळे जमीनदार स्वताक क्षत्रिय मानतात.

**रीतरिवाज:** माड आनी आंब्याचे रुखावळीमजगतीं हांगाचीं खेडीं वसल्यांत. घरांच्यो वण्टी मातयेन रंगयिल्ल्यो आसतात. तांचेर चुन्यान चित्रां काडटात. देवूळ, वाग, हत्ती, भाताचे भरे अशीं हीं चित्रां आसतात.

दादले धोतर आनी खांद्यार चादर असो भेस करतात. बायलो धोंपरामेरेन साडी न्हेसतात. शारांत रावपी लोकांचेर आर्विल्ल्या भेसांचो प्रभाव पडिल्लो आसा.

आदिवासी लोक शिकार करप, फळां पुंजावप, एकेच सुवातेर रावन वा कुमेरी पध्दतीची शेती करतात. हालीं ते खणींनी वा कारखान्यांनी वावर करतात.

**सण आनी उत्सव:** राज्यांतल्यो चडश्यो सगळ्यो परबो शेताकडेन संबंदीत आसात. पावसाउपरांत मळणी जातकच गाय-बैलांच्यो जायत्यो परबो जातात. हेर म्हत्वाच्या जात्रा-यात्रांमदीं पुरीची चंदन जात्रा, जून-जुलय म्हयन्यांत जावपी जगन्नाथाची रथयात्रा, नोव्हेंबर म्हयन्यांत जावपी कटकची बली यात्रा, फेब्रुवारी म्हयन्यांतली कोणार्कची जात्रा, हांचो आस्पाव जाता. हेर देशांतल्यान ह्या जात्रांक लाखांनी लोक येता.

**कलाकुसर:** ओरिसांतली शिल्पकला खूब ओडलायणी आसा. भुवनेश्वर, कोणार्क, जगन्नाथपुरी ह्या सुवातींनी ही कला दिश्टी पडटा. कोणार्क सूर्यमंदिर शिल्पकलेखातीर नामना जोडून आसा.

*ओडिसी (*)* हो राज्यांतलो म्हत्वाचो थळावो नृत्यप्रकार आसा. भरतनाट्यम्, कथकळि, मणिपूरी, कथक ह्या नृत्यांकय तितलेंच म्हत्व आसा.

मोव फातरासावन केल्लें मूर्तीकाम, लांकडी खेळणी, नक्षी आशिल्लें जाळीकाम ही हांगासल्ली खास कला आसा. हांगाचे दागिने आनी मातयेच्यो वस्तू पुराय देशांत विकूंक वतात. सबळपूरच्यो हातमागाच्यो साडयो, मयूरभंज, सोनेपूर आनी बेहरामपूर हांगाचें रेशमी कापड तशेंच टसर कापड, पर्लाकिमिडी आनी कटक हांगासल्ले हस्तिदंत आनी शिंगावेलें कोरीवकाम अप्रूप आसा.

**शिक्षण:** राज्यांत साक्षरतेचें प्रमाण ३४.१२% आसा. तेपासत शिक्षणाचो प्रसार हांगा नेटान चलता. बेहरामपूर विश्वविद्यालय-बेहरामपूर, ओरिसा शेतकी आनी तंत्रविज्ञान विश्वविद्यालय- भुवनेश्वर, संबळपूर विश्वविद्यालय- संबळपूर, श्री. जगन्नाथ संस्कृत विश्वविद्यालय-पूरी, उत्कल विश्वविद्यालय- भुवनेश्वर हीं राज्यांतलीं ५ विश्वविद्यालयां आसात. १८९ कला, विज्ञान आनी वाणिज्य महाविद्यालयां, शिक्षकांक शिकवपी १० महाविद्यालयां, २४२४ माध्यमिक शाळा, ७३१३ एम्. इ. शाळा, ३२६०३ मुळाव्यो शाळा, ६८ प्रशिक्षण शाळा, ३ वैजकी महाविद्यालयां ह्या राज्यांत आसात. तेभायर ४ होमिओपाथिक महाविद्यालयां, ३ आयुर्वेदीक महाविद्यालयां, ३ परिचारीका प्रशिक्षण केंद्रां, १ फार्मास्युटिकल प्रशिक्षण केंद्र राज्यांत आसा.

**ओडिया भास आनी साहित्य:** ओडिया वा ओरिया ही राज्याची मुखेल भास आसा. घटनेचे आठवे वळेरेंत तिचो आस्पाव जाला. ही भास उलोवपी लोकांचो आंकडो १,९७,२६,७४५ इतलो आसा (१९८१). ओडिया ही मूळ आर्यभास आसून राज्यांतल्या आर्य, द्रविड, मुंडारी हांच्या वेव्हाराची ती भास जाल्या. ओडिया लिपी ब्राह्मी लिपींतल्यान घडल्या.

'बौध्द गान ओ दोहा' गोरखनाथाचे 'सप्तांग योगधारणम्' हे ग्रंथ हे भाशेंतले पूर्विल्लें साहित्य आसा. 'मादळापांजि' हो आनीक एक पोरनो ग्रंथ आसून तो जगन्नाथाच्या देवळांत आसा. तातूंत ओरिसाच्या राजवंशाचें वर्णन आयलां. १३ वा १४ व्या शतमानाच्या सुमाराक नारायणानंद अवधूत स्वामी हाणें 'ऋद्रसुधानिधी' हो ग्रंथ रचलो. 'कलशाचौतीशा' हो ग्रंथूय पूर्विल्ल्या साहित्यांत आस्पावता. सिध्देश्वर चरिडा वा सारळादास वा शुद्रमुनी हो ह्या भाशेंतलो आद्य कवी आसलो. महाभारताचो अणकार, 'विलंका रामायण' आनी 'चंडी पुराण' हे ग्रंथ ताणें रचल्यात. ह्याच काळांत कवी अर्जुनदास हाणें 'रामविभा' नांवाचो काव्यग्रंथ रचलो. कवी चौतनदास हाणें 'विष्णुगर्भपुराण' आनी 'निर्गुणमहात्म्य' अशे दोन ग्रंथ रचले.

बलरामदास, जगन्नाथदास, यशोवंतदास, अनंतदास आनी अच्युतानंतदास, ह्या नामनेच्या कवींक पंचवैष्णव वा पंचसखा म्हूण वळखतात. तांणी खूब ग्रंथ रचल्यात. १६ व्या शतमानांतल्या दिवाकर दासान 'जगन्नाथचरितामृत' बरयलां. १७ व्या शतमानांत जावन गेल्लो कवी ईश्वरदास हाणें 'चैतन्यभागवत' रचलें. भक्तकवी सालवाग हाणें भक्तिरसाचीं कवनां रचलीं. शिशुशंकरदास हाणें 'उषाभिलाष', कपलेश्वरदास हाणें 'कपटकेली', हरिहरदास हाणें 'चंद्रावली विलास, देवदुर्लेभविलास हाणें 'रहस्यमंजिरी' हीं पुराण-काव्यां रचलीं.

कांय काळाउपरांत काल्पनीक काव्यांची रचणूक जावंक लागली. खुमसरचो राजा धनंजयभंज हाणें 'रघुनाथविलास', 'त्रिपुरसुंदरी' हीं काव्यां रचलीं. ताचो नातू उपेंद्रभंज, दिनकृष्णदास, दुसरो मुकुंददेव आनी दिव्यसिंह देव हांणी त्या काळार काव्यांत मोलाची भर घाल्या. कवी वृंदावनीदासी हाणें 'पूर्णतमचंद्रोदय' नांवाचें काव्य रचलें. तातूंतलो मुखेल नायक श्रीकृष्ण. लोकनाथ विद्यालंकार हाणें 'सुभद्रापरिणय', 'व्रजलिला', 'लावण्यवती', 'भाववती' हे तरेचीं ४० काव्यां, 'सदपंचक चित्रकाव्यबंदोदय' आनी एक कोशग्रंथूय रचला. व्रजनाथ बडजेना हाणें 'समर्थरंग' आनी 'चतुरविनोद' हे दोन ग्रंथ बरयले. त्याच काळार जावन गेल्या भीमभुयी ह्या कुड्ड्या कवीन 'स्तुतिचिंतामणी' ह्या नांवाचो ग्रंथ रचलो.

ब्रिटिशांच्या काळांत राधानाथ राय हाणें 'पार्वती', 'नंदकेश्वरी', 'ययाती', 'केशरी' (इतिहासीक काव्यां), 'महापात्र' (महाकाव्य) रचलें. ह्याच काळांत राजेन्द्रलाल मित्र आनी ताचे कांय सांगाती हांणी

बंगालांतल्यान एक भाशीक चळवळ सुरू केल्ली. ते ओडिया ही भास म्हूण मानपाक तयार नासले. फकीर मोहन आनी सेनापती ह्या बरोवप्यांनी फुडाकार घेवन ओडिया ही स्वतंत्र भास आसा, हें मत स्पश्टपणान मांडलें. ह्या बरोवप्यांच्या पंगडान 'लधमा', 'छमाण', 'प्रायश्चित' अश्यो जायत्यो नवलकाणयो रचल्यो. पुष्पमाला, उपहार अशे काव्यग्रंथ बरयले. रामायण आनी महाभारत हांचो अणकार केलो. ह्याच काळांतले नामनेचे 'भक्तकवी' मधुसूदन राय हांच्या काव्याचेर विश्वकवी रवींद्रनाथ टागोर हाचो प्रभाव पडला. ओरिसाचो वड्स्वर्थ म्हूण गाजिल्लो गंगाधर मेदेर ह्या कवीन 'शाकुंतल' काव्याचेर आदारित 'प्रणयवल्लरी', सीता वनवासाचेर 'तपस्वीनी' हीं काव्यां रचलीं.

आर्विल्ल्या बरोवप्यांमदीं गोपबंधुदास हाणें 'धर्मपद', 'वंदिर-आत्मकथा', 'कारावकविता', 'अवकाशचिंता' हे ग्रंथ रचले. ह्याच काळांत निळकंठदास हाणें टेनीसनच्या 'प्रीन्सेस' चेर आदारिल्लें 'प्रणयिनी' आनी 'इनॉक आर्डेन' हाचेर आदारिल्ले 'दासनायक' हे ग्रंथ रचले. मायाधर मानसिंह कालींदीचरण पाणिग्राही, वैकुंठनाथ पटनायक, हरिहर महापात्र, शरदचंद्र मुखर्जी आनी अन्नदाशंकर राय हांणी काव्याच्या मळार मोलादीक वावर केला.

साहित्य अकादेमीचे वर्सुकी पुरस्कार जोडपी साहित्यीक अशे आसात-
१९५५: गोपीनाथ मोहंती, १९५८: कान्हूचरण मोहंती, १९६१: गोदावरीस मिश्रा (मरणाउपरांत), १९६३: सोची राऊतरॉय, १९६४: नीलकांत दास, १९६५: बैकूंठनाथ पटनायक, १९६६: गोदावरीस महापात्र (मरणाउपरांत), १९६७: सूर्यनारायण दास, १९६९: सुरेन्द्र मोहंती, १९७०: बिनोद चंद्र नायक, १९७१: मनोरंजन दास, १९७२: मनोज दास, १९७३: जे. पी. मोहंती, १९७४: सीताकांत मोहापात्र, १९७५: राधामोहन गडनायक, १९७६: किशोरी चरण दास, १९७७: काली रचण पटनायक, १९७८: रमाकांत रथ, १९७९: कुंजबिहारी दास, १९८०: अनंत पटनायक, १९८१: अखिलमोहन पटनायक, १९८२: गोपाळ चोत्राय, १९८३: हरेकृष्ण मेहताब, १९८४: महापात्र नीलमणी साहू, १९८५: राजेन्द्र के. पांडा, १९८६: सौभाग्यकुमार मिश्रा, १९८७: नित्यानंद महापात्र, १९८८: सौरीन्द्रा बरीक, १९८९: भानुजी राव.

**म्हत्वाचीं थळां:** पुरीः हें थळ भुवनेश्वर सावन ६२ किमी. अंतराचेर आसा. हिंदूंच्या चार धामांमदलें एक धाम. हांगा जगन्नाथाचें देवूळ आसा. आषाढ शुक्ल द्वितीयेक हांगा व्हड जात्रा भरता. सद्याचें देवूळ ११९८ त बांदिल्लें. नामनेची जगन्नाथाची रथयात्रा हांगा भरता.

कोणार्कः हांगा तेराव्या शतमानांतलें सूर्यमंदिर आसा. २४ कोरांतिल्लीं पाशाणाचीं चक्रां, सात व्हड कोरांतिल्ले घोडे आशिल्लो सूर्याखातीर केल्लो रथ, हांगा पळोवंक मेळटा. भुवनेश्वरसावन ६५ किमी. चेर ही सुवात आसा.

भुवनेश्वरः लिंगराज देवूळ, मुक्तेश्वर देवूळ, अनंत वासुदेव देवूळ, राजराणी देवूळ तशेंच हेर देवळां हांगा पळोवपाक मेळटात. खंडगिरी, उदयगिरी आनी धौली हांगासल्यो जैन आनी बौध्दांच्यो होंवऱ्यो आनी अशोकाचें पाशाणबरप हांगा आसा.

हिराकूद धरण, चिल्कातळे, गोपाळपूर दर्यादिग, तप्तपानी- हून उदकाचे झरे, राउरकेलाचो तिख्या कारखानो, पूर्विल्ली राजधानी कटक.

- माणिकराव राम नायक गावणेकार

## ओस्टव्हाल्ट, विल्हेल्मः

(जल्मः २ सप्टेंबर १८५३, रीगा-लॅटाव्हिया; मरणः ४ एप्रिल १९३२, ग्रॉस बॉथेन- लिपसिग).

जर्मन रसायनशास्त्रज्ञ. १८७८ त एस्टोनियांतल्या डोरपेट विद्यापीठाची डॉक्टरेट ताणें मेळयली. १८८५ त, तो रीगा विद्यापीठांत प्राध्यापक जालो. १८८७ ते १९०६ ह्या काळांत तो लायपसिग विद्यापीठांत भौतिकीय रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आशिल्लो.

उत्प्रेरण **(catalysis)** रासायनिक समतोल आनी विक्रियेचो वेग ह्या विशयांचेर केल्ल्या मोलादिक संशोधनाखातीर ताका १९०९ त, रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. ताणें सोदून काडिल्लो श्यानता **(viscosity)** मापक अजुनूय ताच्या नांवान वळखतात. १८९४ त ताणें उत्प्रेरकाची आर्विल्ली आनी शास्त्रीय व्याख्या दिली. १९०२ त अमोनियाचें उत्प्रेरकाच्या पालवान नायट्रिक अम्लांत **(Nitric Acid)** रुपांतर करपाचे पध्दतीचें ताणें 'पेटंट' घेतलें. ओस्टव्हाल्ट-ब्राऊअर अशें नांव आशिल्ली ही पध्दत उद्येगीक नदरेन उपाट म्हत्वाची थारली. भौतिकी रसायनशास्त्र नेमाळें **'Zeitschrift fur physickalische Chemie'** (१८८७) ही शास्त्रीय पत्रिका सुरू करपाक ओस्टव्हाल्ट हाचो म्हत्वाचो वांटो आसा. म्हान शास्त्रज्ञांवरवीं गिन्यानाची जी निर्मिती जाता, ताचो मानसशास्त्रीय नियाळ करपी **Grosse Manner** (१९०९) हो ग्रंथ ताणें बरयलो.

- कों. वि. सं. मं.

## औः

देवनागरी वर्णमाळेंतलें चवदावें अक्षर. हाचो उच्चार कंठांतल्यान आनी ओंठांतल्यान जाता. हाचो उच्चार दीर्घ आसून प्लुत लेगीत जाता. उदात्तानुदात्तस्वरित भेदान तो त्रिविध जाता आनी अनुनासिक-अननुनासिक अशा भेदान स प्रकारचो जाता.

इ.स. ६ व्या शेंकड्यांतल्या मंदसोरच्या लेखांत हें अक्षर पयलीं दिसता. ५ व्या शेंकड्यांत जयनाथदानपत्रांत 'ओ' च्या कमरार एक वांकडो (रोमन S सारको) आडी काडून 'औ' काडिल्लो दिसता. ह्याच शेंकड्यांतल्या उष्णीषविजयधारिणीच्या ताडपत्री पुस्तकांत असोच 'औ' आसा, पूण ताचे आडयेची बाग कोन करुन गेल्ली दिसता. सुमार धाव्या शेंकड्यांत नेपाळांत मेळिल्ल्या हातबरपांत 'औ' वयर सांगिल्ल्याप्रमाण आसा. इकराव्या आनी बाराव्या शेंकड्यांतलो हो वर्ण 'अ' भशेनूच रेखाटिल्लो दिसता. हेर वर्णांभशेन (अक्षरांभशेन) 'ओ' आनी 'औ' ह्या अक्षरांचो संगतवार विकास जाल्लो दिसना.

कामधेनुतंत्रांत हाचें वर्णन अशें केलां:

'रक्तविद्युल्लताकारं औकारं कुण्डली स्वयम्।
अत्र ब्रह्मादयः सर्वे तिष्ठन्ति सततं प्रिये।।'

अर्थ- औकार हो वर्तुळ आनी रक्तविद्युल्लतेभशेन आसा. हे मोगिके, हातूंत सर्वब्रह्मादि देव सदांच वसणूक करतात.

मातृकान्यासांत हाची सुवात सकयले दांतांचे वळींत सांगल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## औदुंबर- १:

औदुंबर हें एक नामनेक पाविल्लें दत्तक्षेत्र. सांगली जिल्ह्यांत भिलवडी स्टेशनासावन चार मैलांचेर कृष्णा न्हंयचे अस्तंत देगेर वसलां. पयलींच्या काळांत भिलवडीलागीं भुवनेश्वरीचें पूर्विल्लें शक्तिपीठ आशिल्लें. ताका लागून त्या काळांत ह्या वाठारांत तपस्वी लोकांचो राबितो आसतालो. कृष्णा न्हंयचे देगेर रुखांच्या अटंग्या रानांक लागून हांगा एक सैमीक एकान्तमय तपोवन निर्माण जाल्लें. सैमाच्या विंगडविंगड रुपांची अप्रूप सोबीतकाय लाबिल्ल्या ह्या वाठारांत १४२२ वर्साच्या सुमाराक औदुंबराच्या रुखामुळा, चातुर्मासाचो विधी श्रीनृसिंह सरस्वतीन केलो, हाका लागून ह्या थळाक सासणाची पवित्रताय मेळ्ळी. हांगाचो कृष्णेचो घाट शांत तेचपरी व्हड. ह्या घाटाचेर दत्ताच्या पादुकांचें देवूळ आसा. ब्रह्मानंदस्वामीचो शिष्य सहजानंदस्वामी हाणें आयज जे सुवातेर हें देवूळ उबें आसा, थंय हो घाट बांदिल्लो.

संतपुरुस श्री. ब्रह्मानंदस्वामी १९०४ च्या सुमाराक गिरनारसावन औदुंबराक आयलो आनी हांगाच मठ बांदून रावपाक लागलो. हांगाचे सैमीक शांत आनी पवित्र सुवातेर ताणें तप करून सिध्दी जोडली आनी तेच सुवातेर समाधी घेतली.

दत्तमहाजाराचे जायते भक्त दत्ताची सेवा करपाक हांगा येतात आनी धादोस जातात.

- कों. वि. सं. मं.

## औदुंबर- २:

(रुमड). औदुंबर वा उदुंबर वा उंबर ह्या नांवाच्या रुखाक भारतीय संस्कृतायेंत पवित्र रुख म्हणून वळखतात. औदुंबर हो

श्रीदत्ताचो आवडीचो रुख आशिल्ल्यान, जंय दत्तात्रयाचें मंदिर आसता, थंय औदुंबराचो रुख आसता. औदुंबराच्या मुळांत श्रीदत्तात्रय रावता असो समज पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयला. ग्रहयज्ञांत गुरुखातीर औदुंबराच्यो समिधा घेतात. औदुंबराच्या रुखाखाला घाण उडयनात. ह्या रुखापोंदा खणल्यार उदक मेळटा, असोय एक समज आसा.

अथर्ववेदांत ह्या रुखाचो उल्लेख आयला (१९.३१.१). ऐतरेय ब्राह्मणांत (७.१५,५.२४) औदुंबराचें फळ वर्सांतल्यान तीन फावट पिकता आनी तें गोड आसता, अशें म्हळां. पूर्विल्ल्या काळांत धर्मीक विधीखातीर औदुंबराच्या लांकडाचो उपेग करताले. धूप, पळी, ताईत ह्यो वस्तूय लांकडाच्योच करताले. राज्यभिषेकाच्या सुवाळ्यांत राजाखातीर औदुंबराच्या लांकडाचें शिंवासन करताले.

औदुंबराचो रुख पवित्र आशिल्ल्यान ताची पूजा करची अशें धर्मशास्त्रांत म्हळां.

उदुम्बरे वसेन्निल्य भवानी सर्वदेवता।
तत। सा प्रत्यहं पूज्या गन्धपुष्पाक्षतादिभिः।।

(आचारेन्दु)

अर्थः औदुंबराच्या रुखांत सदांच सगळ्या देवतांत व्हड अशे भवानीचो राबितो आसता. तिची सदांच फांतोडेर गंध, फूल, अक्षदा ह्या द्रव्यांनी पूजा करची.

हो रुख १५ ते १८ मी. वाडटा. ब्रह्मदेश, श्रीलंकेंत आनी भारतांत न्हंयो, नाले, दोंगर, देगणां, खेडीं हांगा हो रुख दिश्टी पडटा. रुखाची साल मोटी, पिंगट गोबऱ्या रंगाची आनी गुळगुळीत आसता. पानां मोटीं, एका आड एक तांतयाच्या आकाराचीं, तर उप-पानां दोन सेंमी. आनी आकारान पानासारकीं आसता. तुरो मोटो, देंठ आशिल्लो, तांबडो आनी तातूंत तीन तरांचीं फुलां आसतात. औदुंबराचीं फळां पुराय पिकतकच खांदयांक घोंसाचेर हुमकळटात. हातूंत बारीक कृत्सनफळां जायतीं आसतात. सुकणीं-सावदां हीं फळां खातात. तांचे घाणींतल्यान हीं फळां विंगडविंगड सुवातींनी वचून पडटात. तेवरवीं आनीकय औदुंबराच्या झाडांचो जल्म जाता. औदुंबराचें लांकूड धवें, तांबडें, मोव आनी ल्हव आसता. ह्या रुखाच्या सालींपसून काळो रंग करतात. रुखांतल्यान भायर सरपी दिकापसून सवणी धरपाचें गम तयार करतात. ताचीं तरणीं आनी पिकिल्लीं फळां खातात. ह्या झाडाचो वखदाखातीर उपेग करतात. साली बुळकांड्या रोगाचेर (Rinder pest) वापरतात. मूळ आमांश, गोडेमूताचेर ह्या झाडाच्या मुळाचो रोस दितात. पित्त विकाराचेर, पानांचो चुरो म्होंवातल्यान दितात. झाडाचो दीक मूळव्याध (बीक) आनी हागवण हांचेर गुणाक पडटा.

काळ्या औदुंबराचें वा रुमडाचें झाड चड करून भारतांत कोंकण, कारवार, खंडाळा वाठारांत दिश्टी पडटा. हें झाड ६ ते ९ मी. मेरेन वाडटा. ह्या झाडाच्या कवळ्या कोंबांचेर दाट केंस आसून एकामेकामुखार पातळ पानां आसतात. काळ्या औदुंबराच्या झाडाचीं फळां गिमांत वा पावसाच्या आरंभाक येतात. झाडाचो पालो गोरवांच्या चरवाखातीर उपेगी पडटा. फळां, बी, साल, रेचक आनी वातीकारक आसता. फळ गोड, थंड, घटसाण दिवपी आनी कामोत्तेजक आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**औदुंबर- ३ :** पूर्विल्ल्या काळांत 'औदुंबर' नांवाचो एक वंश भारतांत जावन गेलो. ह्या वंशकुळाचे लोक, स्वताक विश्वामित्र ऋषीचें वंशज समजताले. पंजाबांतल्या बियास, सतलुज, रावी न्हंयांच्या मदल्या वाठारांत हांचें राज्य आसलें. पंजाबांतल्या पठाणकोठ, ज्वालामुखी आनी होशियारपुर वाठारांत तांचीं कांय नाणीं मेळटात. ह्या नाण्यांचेर शिवदास, रुद्रदास, महादेव आनी धारघोष ह्या राजांचीं नांवां दिसतात. कांय नाण्यांचेर विश्वामित्र ऋषीचेंय चित्र आसा. औदुंबरांचें राज्य प्रजासत्ताक आसूंये, अशें त्या नाण्यांवेल्यान दिसता. इ.स. च्या आरंभाक विमकी नांवाचें राजघराणें औदुंबर वाठाराचेर राज्य करपाक लागलें. त्या घराण्याच्या नाण्यांचेर रुद्रवर्मा, आर्यमित्र, महीमित्र आनी भानुमित्र हीं नांवां मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**औदुंबर- ४ :** एका ऋषी-मुनींच्या पंथाकय 'औदुंबर' म्हण्टाले अशे शब्दकल्पद्रुमांत मेळटा. हे लोक फांतोडेर उठल्याउपरांत जे दिकेक पळेताले, ते दिकेचीं फळां वा कंदमुळां खावन दीस सारताले.

- कों. वि. सं. मं.

**औरंगजेबः** (जल्मः २४ ऑक्टोबर १६१८, दोहद-गुजरात; मरणः २० फेब्रुवारी १७०७, भिंगोर-गुजरात).

दिल्लीच्या मोगल घराण्याचो सवो बादशहा. पुराय नांव मुहियुद्दीन मुहंमद औरंगजेब. शाहजहान आनी मुमताज हांचो तिसरो चलो (सवें अपत्य). ल्हानपणांतूच ताणें कुराण आनी हदीस हांचो अभ्यास केल्लो. तेचप्रमाण अरबी, चघताई, फार्सी आनी तुर्की भाशा आत्मसात केल्यो.



१६३७ वर्सा पर्शियन राजघराण्यांतली शहानवाझची धूव दिलरासबानू बेगम हिचेकडेन तो लग्न जालो. दिलरासबानू सोडून ताणें आनीकूय तीन बायलो केल्यो. त्या सगळ्या बायलांपसून ताका वट्ट धा भुरगीं जालीं.

१६३६ वर्सा ताची दक्षिणेचो सुभेदार म्हूण नेमणूक जाली. पूण बापूय शहाजहान आनी व्हडलो भाव दारा हांचेकडेन केल्ल्या वायटपणाक लागून ताका १६४४ वर्सा राजीनामो दिवंचो पडलो. १६४५ वर्सा ताका गुजरातचो सुभेदार म्हूण नेमलो. १६४७ वर्सा ताका शाहजहानान बाल्ख आनी बदकशाँ जिखपाखातीर मध्य आशियांत धाडलो. पूण तातूंत ताका येस आयलेंना. वाटेर उझबेग जमातीन ताचेर हल्लो केलो आनी ताका त्रास दिले.

१६४८ वर्सा ताका मुलतानचो सुभेदार केलो आनी १६४९ वर्सा सिंदचो सुभेदार केलो. १६४९ वर्सा ताका पर्शियनांच्या ताब्यांत आशिल्लें कंदाहार जिखपाखातीर धाडलो. पूण ताका थंयूय अपेस आयलें. १६५२ वर्सा ताणें परत कंदाहाराचेर घुरी घाली. पर्थून ताचो पराभव जालो. देखून १६५२ वर्सा ताका परत दक्षिणचो सुभेदार केलो. दक्षिणेक १६५७ वर्सा औरंगजेबान विजापूर आनी गोवळकोंडा ह्या राज्यांचेर घुरी घालून बीदर, कल्याणी, परांडा हे किल्ले जिखले. दौलताबादच्यान लागींच खडकी हांगा ताणें औरंगाबाद शार वसयलें. ह्या मुक्कामांत ताणें दक्षिणेंतल्या वसुली पध्दतींत आनी लश्करांत खूब सुदारणा केल्यो. औरंगाबाद हांगा ताची दिलरासबानू ही पयली बेगम अंतरली. थंयच ताजमहालच्या नमुन्याचेर ताणें तिची कबर बांदली. ती कबर आज 'बिबिका मकबरा' म्हूण नामनेक पावल्या.

शाहजहान १६५७ वर्सा दुयेंत पडलो, तेन्ना ताणें दारा शुकोह हाका आपलो वारस नेमलो. त्याच वेळार औरंगजेबाचे हेर दोन भाव मुराद आनी शुजा हांणी अनुक्रमान अहमदाबाद आनी बंगाल हांगा स्वताक बादशहा म्हूण जाहीर केलें. औरंगजेबान बुदवंतपणान मुरादाकडेन कबलात केली आनी ताका वांगडाक घेवन दोगांयनी शाहजहानच्या सैन्याचो धरमत हांगा आनी दारा शुकोहचो सामूगढ हांगा पराभव केलो. तेउपरांत शाहजहान आनी मुराद हांकां बंदखणींत घालून औरंगजेब २१

जुलय १६५८ दिसा शिंवासनाचेर बसलो आनी ताणें 'आलमगीर' (विश्वविजेतो) ही पदवी धारण केली.

औरंगजेबाचे कारकिर्दीचे दोन काळखंड जातातः १६५८ ते १६८१ काळमेरेनचो पयलो भाग उत्तर हिंदुस्थानांत सत्ता प्रस्थापित करपाखातीर गेलो. ताणें अस्तंत आसाम घेतलें (१६६२, १६६७ वर्सा हरलो). चित्तगाँग हांगा चांच्यांचो बंदोबस्त केलो (१६६६). काबूलच्या पठाण जमातींचेर ताणें १६६७ त आनी १६७२ त घुरी घाली, पूण तांकां हरोवप ताका जालें ना. तेन्ना १६८९ त ताणें तांचेकडेन शांतताय केली (१६६७-१६७२). राजपुतानाच्या दोन मुखेल राज्यांचेर ताणें स्वारी केली. मारवा (जोधपूर)चेर १६७९ वर्सा जैत जोडलें, मेवाड (उदयपूर) हांगा कबलात केली आनी १६८१ वर्सा परत झूज केलें.

ताचो दुसरो काळखंड १६८१ ते १७०७ मेरेनचीं वर्सां दक्षिणेंत झुजपांत (खास करून मराठ्यांवांगडा) गेलीं. ताणें बिजापूर (१६८५-८६) आनी गोळकोंडा (१६८५-८७) ह्या मुस्लिम शिया राज्यांचेर घेतिल्ल्या जैतांक लागून मुगल साम्राज्याचो विस्तार काश्मीरच्यान कावेरीमेरेन आनी काबूलसावन चित्तगाँग मेरेन वाडलो. पूण ताच्या ह्या साम्राज्यांत मराठ्यांची शक्त दिसानदीस वाडटाली.

औरंगजेब आनी शिवाजी हांच्यामदले संबंद १६५७ पसून बरे नाशिल्ले. शिवाजीची वाडटी सत्ता आंळाबंदा हाडपाक औरंगजेबान ताच्या आड शायिस्तेखान, मुअज्जम, जयसिंग, दिलेरखान, महाबतखान अशे खांपे सरदार दक्षिणेंत धाडले. आग्र्याक शिवाजीक आनी संभाजीक ताणें कैद केले. पूण व्हडली युक्त लडोवन शिवाजी-संभाजी बंदखणींतल्यान पळून गेले. औरंगजेबान संभाजीक ११ मार्च १६८९ दिसा हालहाल करून जितोच माल्लो. १६९९ ते १७०५ मेरेन औरंगजेब मराठ्यांचे गड घेवपाक व्यस्त आशिल्लो. पूण राजारामाचे कारकिर्दींत संताजी घोरपडे, कान्होजी आंग्रे आदी शूर सरदारांनी मोगलांनी घेतिल्ले गड परत जिखून घेतले. मराठ्यांआड २५ वर्सां लडून औरंगजेब बेजाल्लो. खूब काळ दक्षिणेंत उरिल्ल्यान ताचें उत्तर भागांत वर्चस्व उल्लेंना. एकसारक्या केल्ल्या झुजांक लागून ताचो खजिनोय सोंपत आयलो. राज्यप्रशासनांतलें दुबळेपण आनी दुटप्पी धोरण हाका लागून ताचो अधिकार अडचणींत आयलो आनी तातूंतच ताका दुयेंस जालें. १६७८ ते १७०७ मेरेन तो मराठे, रजपूत, जाट, बुंदेले, शीख हांच्यावांगडा लडलो.

औरंगजेब एक कर्मठ सुन्नी आनी परधर्मद्वेश्टो आशिल्ल्यान ताणें तरेकवार कर लादून हिंदूंचो छळ केलो. अकबरान रद्द केल्लो बिगर मुसलमानांवेलो जिझिया कर ताणें १६७९ वर्सा परत सुरू केलो. जमीन-महसूलविशीं तीन तरेचे कर ताणें लादले. ताणें हिंदूंचीं देवळां, शाळा मोडून थंय मशिदी बांदल्यो. हिंदूंच्यो जात्रा, धर्मीक सण आनी वेव्हार हांचेर बंदी हाडली. शासकीय कार्यालयांतल्यान हिंदूंक कमी केले. शिखांचो गुरु तेगबहादुर हाणें बादशहाच्या धोरणाक विरोध केलो म्हूण ताका जितोच माल्लो (१६७५). ताचे हे जुलमी वृत्तीक लागून दक्षिणेक मराठ्यांनी आनी उत्तरेक रजपूत, जाट, शीख आनी हेर जमातींनी ताचेआड कडक उठाव केलो.

सैनिक आनी सेनापती हे नदरेन औरंगजेब खूब म्हान आशिल्लो. तो बळिश्ट आनी सोशिक आशिल्लोच पूण वेळ आयल्यार जीव त्रासांत घालून लडपाची ताची तयारी आसताली. पूण ताचे विफल जिणेक खूब कारणां आसात. ताणें राजकारभार चलयतना दुसऱ्या कोणाकूच विश्वासांत घेतलोना. आपल्या भुरग्यांक लेगीत ताणें पयस दवल्ले. तो दुबावी आशिल्ल्यान ताका कोणाकडल्यानूच मोग मेळ्ळो ना. कारभाराच्या बारीक-सारीक गजालींनी तो लक्ष घालतालो.

सकाळसावन सांजमेरेन तो उद्देगांत मग्न रावतालो. इस्लामी धर्मांतल्या सुन्नी पंथाचे नेमधर्म तो कसोशीन पाळटालो. रमजानसारके व्हडले उपास तो निश्ठेन करतालो. कुराण ताका तोंडपाठ आशिल्लें. ताका कसलेंच व्यसन नाशिल्लें. आपल्या सबंद जिवितांत इस्लाम धर्माचो प्रचार जावंचो म्हूण ताणें एकसारकी खटपट केली आनी तेखातीर तरांतरांचे पूण जुलमी मार्ग वापरले. औरंगजेबाची कारकिर्द अकबराचे कारकिर्दीइतली मोटी खरी, पूण अकबरान जितल्या काळांत मोगल साम्राज्याक विशाल स्वरुप हाडलें तितल्याच काळांत औरंगजेबान मोगल साम्राज्याच्या नाशाची तयारी करून दवरली. औरंगजेबाची बेपर्वा, कुटनीती, धर्मांधता आनी हेर अवगुणांक लागून मोगलसत्ता पोखरली आनी ताच्या मरणाउपरांत रोखडीच लयाक गेली.

- कों. वि. सं. मं.

**औरंगाबादः** महाराष्ट्र राज्यांतल्या औरंगाबाद जिल्ह्याचें आनी मराठवाडा विभागाचें मुखेल ठाणें. गोदावरी न्हंयची उपन्हंय खाम हिचे उजवे देगेर हें शार वसलां. पुण्यासावन २३० किमी. आनी अहमदनगरसावन १०९ किमी. ईशान्येक हें शार आसा. लोकसंख्या ३,११,४२१ (१९८१). आवांठ ५०.४८ चौ.किमी.

ह्या शाराचें मूळ नांव खडकी आशिल्लें. निजामाचो प्रधान मलिकअकबर हाणें मोगलांचो पराभव करून १६०४ वर्सा ह्या शाराची थापणूक केली. फुडें औरंगजेबान हांगा आपली राजधानी केली आनी ताका औरंगाबाद हें नांव दिलें. मोगलांकडल्यान हें शार निजामाकडेन आयल्या उपरांत मराठवाड्याचें एक संस्कृतीक केंद्र म्हूण ताका नामना मेळ्ळी. फुडें राज्यपुनर्रचणुके उपरांत हें शार महाराष्ट्रांत आयलें.

ह्या शारांत मलिकअंबराच्या काळांतल्यो आनी ताच्या उपरांतच्यो कितल्योश्योच पोरन्यो वास्तू पळोवंक मेळटात. दुसऱ्या ते सातव्या शेंकड्यामेरेन दोंगर कोंरातून केल्ल्यो दोंगरी होंवरी हांगा आसात. हातूंत अजंठा आनी वेरुळ हांकां बरीच नामना आसा. ह्या दोन नामनेच्या होंवऱ्यांखातीर औरंगाबाद हें पर्यटन केंद्र जालां. तेभायर हांगा औरंगजेबाचो दरबार भरतालो तो किल्लो, जामे मशीद, पाणचक्की आनी १६७९ वर्सा औरंगजेबान आपली बेगम दिलरासबानू हिच्या उगडासाक हुबेहुब ताजमहालाभशेन बांदिल्लो 'बिबिका मकबरा' आसा. औरंगाबादच्यान लागींच दौलताबादचो किल्लो आसा. ताच्या मुखार ६० मी. उंचायेचो चाँद मिनार आसा.

मनमाड ते हैदराबाद रेल्वेमार्गावेलें हें मुखेल स्थानक. हांगाच्यान ९ किमी. अंतराचेर चिकलठाणा हांगा विमानतळ आसा. ह्या शारांत रस्मी आनी सुती कपड्यांच्यो गिरणी आसात. तेचपरी लुगटावेल्या पारंपारिक 'हिमरू' आनी किनखाबाच्या कामाखातीर ह्या शाराची नामना आसा. तेभायर हांगा यंत्रां, कातडीकाम, आयदनां, धातुच्यो वस्तू आदीचे कारखाने आसात. जिल्ह्यांतल्या शेतीमालाची ही वेपारपेठ आसून मराठवाड्यांत संस्कृतीक आनी शिक्षणीक मळार ह्या शाराचें नांव आसा. मराठवाडा विद्यापीठ हांगा आसा. तशेंच कांय महाविद्यालयां आनी तंत्रसंस्थाय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**कंटक, आत्माराम पांडुरंगः** (जल्मः २९ एप्रिल १९२१, केपें).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव पांडुरंग कंटक. ताणें मुळावें शिक्षण पोर्तुगेजींतल्यान घेतलें. तो नाल्लाचो वेपारी आशिल्लो. गोंय सुटके चळवळीच्या काळांत तो भूंयगत राश्ट्रीय वावरांनी वांटो घेतालो. १३ ऑगस्ट १९५४ दिसा पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो आनी एक वर्स बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**कंटक, सांवळाराम घनश्यामः** (जल्मः १५ मार्च १९०५, कुडचडें; मरणः १० एप्रिल १९८४, कलकत्ता).

नामनेचो मराठी कथाकार आनी कल्पक संपादक. ताणें मराठी सवी, पोर्तुगेज प्रिमैरग्राव आनी इंग्लीश मॅट्रीक मेरेन शिक्षण घेतलें. पिरायेच्या विसाव्या वर्सा 'ग्रॅहम्स' हे इंग्लीश कंपनीच्या मुरगांव फांट्यात तो

नोकरेक लागलो. स वर्सां उपरांत ताका शिपिंग खात्यांत बढती मेळ्ळी. उपरांत तो 'टायम्स ऑफ इंडिया' ह्या दिसाळ्याखातीर वास्को आनी मडगांव हांगा विक्री एजंट आनी वार्ताहर म्हूण वावर करूंक लागलो. तेभायर ताणें मडगांवांत 'श्री मंगेश एजन्सी नांवाचें पुस्तकां विकपाचें दुकान चलयलें. ताणें कांय वर्सां मराठी खबरांपत्रांचो वार्ताहर म्हूण वावर केला.

१९५४ वर्सा राजकी घडामोडींक लागून गोंयकारांच्या जिविताचेर परिणाम जाल्लो. गोंयाक भारतापसून वेगळें दवरपाचो वावर सरकारान सुरू केल्लो. मुंबय-पुणे सावन गोंयांत येवपी इंग्लीश, मराठी खबरांपत्रांचेर बंदी घाल्ली. तशेंच 'टायम्स ऑफ इंडिया' सोडून हेर सगळीं खबरांपत्रां बंद जाल्लीं. 'टायम्स ऑफ इंडिया' खबरेपत्राचें वितरण जावंचे पयलीं गोंयचेर कसलीय बातमी तालूंत छापून आयल्या काय ना, तें पळोवन गोंयचेर बातमी आयिल्ल्या अंकांचें वितरण जावंचें न्हय अशी बंदी एजंटांचेर घाल्ली.

कंटक हाणें हो हुकूम मोडलो, देखून सरकारान ताचेर खटलो भरून ताका दंड आनी बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण ताका पोलिसांनी धरचे पयलींच तो मुंबय गेलो. उपरांत ताणें थंय टायम्साचो प्रतिनिधी म्हूण भारतभर भोंवडी केली. १९५८ वर्सा तो 'स्टेट ट्रेडिंग कॉर्पोरेशन' हातूंत रावलो आनी फुडें १९६२ वर्सा निवृत्त जालो.

ताणें पिरायेच्या १८ व्या वर्सा बरोवंक सुरवात केल्ली. १९२४ वर्सा 'भारत' ह्या सातोळ्यांत ताचो 'च्याचे वायट परिणाम' हो लेख उजवाडाक आयिल्लो. १९३० ते १९४५ ह्या पंदरा वर्सांच्या काळांत ताणें सुमार ४०० कथा बरयल्यो. ताचेपयलीं ताणें लेख, कादंबरी, निबंद अशे साहित्यप्रकार बरयल्ले. ताचें पयलें पुस्तक 'आर्यश्री' (१९२८-कादंबरी). ताचो 'सुमनगुच्छ' हो कथांझेलो १९३० त उजवाडाक आयलो. ते भायर 'स्वयंसेविका' (लघुकादंबरी), 'कणसाचे दाणे', 'शहाळीं', 'जाईची फुलें' (कथांझेलो) तशेंच 'मीलन', 'डोळस आंधळा' ह्यो ताच्यो कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात. १९३० वर्सा ताणें 'सुबोध' नांवाचें एक म्हयन्याळें सुरू केल्लें.

गोंयांतले मराठी साहित्यिक चळवळीक उत्तेजन दिवपांत ताचो वांटो आसा. १९५६ वर्सा मालाड हांगा भरिल्ल्या गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचो तो स्वागताध्यक्ष आशिल्लो.

१९३५ वर्सा मडगांव जाल्ल्या गोमंतक साहित्य संमेलनाच्या वेळार 'कोण काय करतील?' असो संमेलना पयलीं आनी संमेलना उपरांत 'संमेलन पुराण' अशे टीकात्मक लेख ताणें 'भविष्यवादी' ह्या टोपण नांवान बरयल्ले. गोंयचो सैम आनी प्रादेशिकता हांचें दर्शन ताच्या साहित्यावरवीं घडटा.

- दिलीप बोरकार

**कंबन:** महाकवी कंबन हाचो निश्चित काळ खंयचो ही माहिती मेळना. ताचो काळ णवव्या शेंकडयांतलो आसूंक जाय अशें एक मत आसा. कांय तमिळ विद्वान ताचो काळ बाराव्या शेंकड्यांत मानतात. ताचे जिणेविशींय माहिती मेळना. ताचेविशीं कांय आख्यायिका मात रुढ आसात.

कंबनचो जल्म चोल राज्यांतल्या तिरुवळुंदूर ह्या गांवांत जालो. आपल्या रामायणांत ताणें तिरुवण्णैनल्लूर गांवांतल्या 'शडैयप्पवळ्ळल' ह्या दानशूर मनशाचो खूब कडेन उल्लेख केला. हाचेवयल्यान, कंबन ताचेकडेन आलाशिऱ्याक आशिल्लो अशें अनुमान काडटात. कंबनचो बापूय हो तिरुवळुंदूर गांवांतल्या कालिमंदिरांत पुरोयत आशिल्लो. चोल आनी पांड्य राजांच्या दरबारांतूय कंबन गेल्लो, अशें म्हण्टात.

कंबनान आपल्या काव्यांत, णवव्या शेंकड्यांतलो तमिळनाडूंतलो एक म्हान वैष्णव संत आनी कवी नम्माळवार हाची भोव तुस्त केल्या. कंबन सुर्वेक शैव आशिल्लो पूण मागीर नम्माळवार हाच्या उपदेशान वैष्णव जालो आनी ताचेकडल्यान प्रेरणा घेवन ताणें तमिळ भाशेंत रामायणाची रचना करपाक सुरवात केली. पांच वर्सांभितर ताणें आपली रामायणरचना पुराय केली. ह्या कामांत ताणें वाल्मीकी रामायणाचो आदार घेतलो. इ.स. ८८५ तल्या फाल्गुन पुनवे दिसा कंबनान श्रीरंगम् हांगा साहित्यसभेमुखार आपलें रामायण वाचलें. साहित्यसभेन ताका मान्यताय दिली आनी 'कविचक्रवर्ती' ही पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो. कंबनान आपल्या काव्यांत संप्रदायांक खाशेली सुवात दिवंक ना, देखून वैष्णव आनी शैव ह्या दोनूय संप्रदायांनी कंब रामायणाक खूब आदर आसा. एक दीस संत तुलसीदासान कंब रामायण आयकलें आनी तें आयकून ताणें अवधी भाशेंत रामचरित्र रचपाची स्फूर्त घेतली, अशें म्हण्टात.

तमिळ भाशेचेर कंबनाचें असामान्य प्रभुत्व आसून ताच्या काव्यांत आशय आनी अभिव्यक्ती हांचें एकजिनसीपण सादून आयलां. त्या काळांत नव्यानूच प्रचारांत आशिल्ल्या 'विरूत्तम' ह्या छंदोबध्द काव्याची रचना ताणें केली. वैदिक छंदांप्रमाण पूर्विल्ल्या संघम्साहित्यांत 'आशिरियप्पा', 'कलिप्पा', 'वंजिप्पा' आनी 'वॅण्पा' हे चार छंद आशिल्ले. कंबनान ह्या छंदांक ललित आनी श्रवणमधुर रुप दिलें.

तमिळ साहित्यांत कंबनाक मानाची सुवात फाव जाल्या. कंब रामायणाउपरांतचो ५०० वर्सांचो काळ (सुमार १४ व्या शेंकड्यामेरेन) ह्या युगप्रवर्तक कवीच्या नांवावयल्यान 'कंबन काळ' म्हूण तमिळ साहित्यांत वळखतात. रामायणाभायर कंबनान बरयल्ले काव्यग्रंथ अशे: 'शठकोपर अंदादि', 'सरस्वती अंदादि', 'एर्-ऍळुपदु', 'शिलै-ऍळुपदु' आनी 'तिरुक्कै-विळक्कम्'.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद- कंब रामायण

**कंब रामायण:** महाकवी कंबन (बारावें शतमान) हाणें रचिल्लें तमिळ साहित्यांतलें नामनेचें महाकाव्य. हातूंत १०,००० वळींची पद्यमय रचना आसा. कंबरामायण (इरामावतारम्) बरोवपाखातीर आपणे वाल्मीकीकडल्यान प्रेरणा घेतली अशें कंबन सांगता:

> वांगरुम् पादनन्तुगम्। वकुत्तु वाल्मीकीयेन्बान्।
> तीङ् कविसेविकळार। त्तेवरुम् परुगच्चेय्दान्।
> आंगवन् पुकषन्द। नाट्टैयन्बेनुम् नरखमान्दि।
> मूंगैयान् पेसलुर् रलेन्न। यान् मोषियलुर्रेन्।

अर्थ: वाल्मीकीन छंदोबध्द रामकथा अशे पध्दतीन सांगली, जिचेर देव लेगीत आसक्त जाले. ताणें जें कोसलभुंयेचें वर्णन केलां, तेंच वर्णन परत करचें म्हूण म्हज्यासारको एक मोनो तयार जाला.

वाल्मीकीची मूळकथा मतींत घेवन कंबनान रचना केली तरी आपले रचनेंत देशकाळाक फावशे फरक ताणें केले. 'कंबरामायण' हें वाल्मीकीच्या रामायणाचो फकत अणकार वा रुपांतर न्हय. प्रतिभाशाली कंबनच्या कलात्मक आनी कल्पक संस्कारांक लागून ताका स्वतंत्र रचनेचो पांवडो प्राप्त जाला. ताचेर पूर्विल्ल्या तमिळ साहित्यांतल्या ह्या तीन प्रवाहांचो प्रभाव दिसून येता: १. संघम्- साहित्याचे परंपरेचो प्रवाह २. तिरुवळ्ळुवर परंपरेंतले नीतिविचार आनी तत्त्वगिन्यान ३. आळवारांच्या भक्तिकाव्याचो प्रवाह. 'शिलप्पधिकारम्' आनी 'जीवक-चिंतामणी' ह्या पूर्विल्ल्या जैन महाकाव्यांचोय ताचेर प्रभाव पडला.

कंबनान मूळ कथानकाची कांड-अध्यायांच्या रुपांत आशिल्ली मांडावळ आसा तशीच दवरल्या. बालकांड ते युध्दकांड मेरेनचो ६ कांडांचो विस्तार हातूंत आयला. हातूंत ताणें आदर्श राज्याचें (रामराज्याचें) चित्र रंगोवन ज्ञानोपासनेक खूब म्हत्व दिलां. ताचें नाट्यमय प्रसंग रचपाचें कसब अप्रतिम आसा. व्यक्तिचित्रण, विंगड विंगड आदर्शांचे परस्पर संघर्श, मोगाची मोगाकडेन जावपी ओढाताण ह्या चित्रणांतसून कंबनच्या स्वतंत्र प्रतिभेचें दर्शन घडटा. राम-सीता लग्न सुवाळो, शूर्पणखा प्रसंग, वालिवध, इंद्रजीतवध, राम-रावण झूज हे प्रसंग कंबनचे काव्यात्मक सोबितकायेक लागून ओडलायणे जाल्यात.

कंबरामायणांतल्यो सगळ्योच व्यक्तिरेखा उंचेल्या पांवड्याचेर

दाखयल्यात. खलनायक रावण लेगीत म्हान दाखयला. ह्यो सगळ्योच व्यक्तिरेखा प्रसंगावेळार मोग करतात, झगडटात, दुख्ख भोगतात. वाचप्यांच्या मनाक ओड लावपाचें बळगें कंबरामायणांत आसा. तमिळ साहित्यांत राम-सीतेचे कथेचेर कंब रामायणापयलीं चार रचना जाल्यो. पूण ह्या सगळ्या रचनांभितर कंब रामायण श्रेश्ठ थारलां. म्हान देशभक्त आनी विद्वान व्ही. व्ही. एस्. अय्यर हाच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार कंबनच्या रामायणाची तुळा संवसारीक नामनेच्या इलिअड, ईनिड, पॅरडाइज लॉस्ट, महाभारत ह्या अभिजात महाकाव्यांकडेनूच न्हय तर मूळ वाल्मीकी रामायणाकडेन लेगीत करुं येता.

तमिळ साहित्यांत कंब रामायणाक खूब ऊंच पांवड्याची सुवात आसा. चक्रवर्ती राजगोपालाचारी हाणें ताचो पद्यमय इंग्लीश अणकार (लंडन- १९६१) केलो आनी न. वी. राजगोपालन् हाणें हिंदी अणकार दोन खंडांत (पाटणा- १९६३, १९६४) केलो. फकत तमिळ साहित्यांतूच न्हय तर संवसारीक साहित्यांत आज कंब रामायणाक म्हत्वाची सुवात फाव जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंदः कंबन

**कंबोडियाः** (पळेयात ख्मेर).

**कंवचीः** सिलिका (रेंव) ७५%, सोडा ॲश २०%, चुनो ५% हांची सारकी भरसण करून तयार जाल्लो अस्फटिक-अकार्बनीक असो पारदर्शक वा अर्दपारदर्शक असो पदार्थ. कंवचेचे जशे वेगवेगळे गुणधर्म जाय, तेप्रमाण तातूंत कॅल्शियम, शिशें, लिथियम, सिरियम आदी धातवीय ऑक्साइडांची भरसण करतात. कंवचेचो वापर मनीस खूब पूर्विल्ल्या काळासावन करीत आयला. आयच्या काळांत कंवचेचो सर्रास उपेग जाता. सदच्या वेव्हारांत कंवचेच्यो कितल्योश्योच वस्तू दिसून येतात.

कंवचेचो सोद कसो लागलो, हे विशीं एक दंतकथा आसा ती अशी- कांय फिनिशियन वेपारी वाळवंटांतल्या रेंवेचेर आयदनांक चुन्याच्या फातराचो आदार दिवन रांदप करता आसतना आयदना पोंदचे रेंवेंत कंवचेसारको पदार्थ तयार जाल्लो दिसून आयलो. ही गजाल खरी आसूंक फाव, कारण कंवचेचो सोद पयलीं सिरियांत लागलो, अशें प्लिनी हाणें बरोवन दवरलां. ईजिप्त ही कंवचेच्या सोदाची जल्मभूंय आसा अशें पयलीं मानताले. पूण कंवचेचो सोद ईजिप्तांतूच लागलो, अशें म्हणपाक पुरावो मेळना. रोमन साम्राज्यकाळांत सगळ्या देशांनी मोट्या प्रमाणांत कंवचीकलेचो प्रसार जालो. मध्ययुगांत कॉन्स्टँटिनोपल हांगा राजाश्रय मेळिल्ल्यान कंवचीकलेची परत उदरगत जाली. व्हेनिस, जर्मनी, फ्रांस, स्पेन, इंग्लंड, चीन, अमेरिका हांगाय कंवचीनिर्मणी जावपाक लागली. भारतीय लोकांक कंवचेची माहिती आशिल्ली, हाचे उल्लेख जायत्या पोरन्या संस्कृत ग्रंथांनी मेळटात. देखीकः यजुर्वेद, कपिष्टल-कठसंहिता, शतपथ ब्राह्मण, तैत्तिरीय ब्राह्मण, चरक संहिता, महावग्ग, चूल्लकग, कौटिलीय अर्थशास्त्र, आचारांग सूत्र, औपपातिक सूत्र, हितोपदेश ह्या ग्रंथांत कंवचीकामाचें उल्लेख मेळटात.

कंवची सैमीक आनी कृत्रिम अशा दोन प्रकारांची आसता. कृत्रिम कंवची करपाक सिलिका वा बोरोन ऑक्साइड वा फॉस्फोरस ऑक्साइड, एक गालक (flux) आनी एक स्थिरकारक (stabiliser) हांकां वितळायतात. वितळिल्ली वस्त स्फटिकीकरण जायनासतना न्हिवता आनी ताचो एक घट्ट पदार्थ तयार जाता, हाका कंवची म्हण्टात. सैमीक कंवची ही ज्वालामुखींतल्यान भायर आयिल्लो शिलारस न्हिवतकच ताच्यापसून तयार जाता. जेन्ना शिलारस द्रव ताच्या संतुलन स्फटिकीकरण तापमानाखाला थंड जाता, तेन्ना ताचें स्फटिकीकरण जावंक पावना आनी हाका लागून एक अस्फटिक घट्ट वस्त तयार जाता, जिका सैमीक कंवची अशें म्हण्टात. हे कंवचेक क्रमबध्द स्फटिकवैज्ञानिक अणुरचना नासता. सादारण तापमानांत ही कंवची अंशथीर आसता आनी देखून कांय काळान तिचें स्फटिकीकरण जाता, जे प्रक्रियेक 'डिव्हिट्रीफिकेशन' अशें म्हण्टात.

रसायनीक संघटन आनी जलसंयोग अवस्था हाचेवेल्यान कंवचेचें दोन प्रकारांत वर्गीकरण केलांः १. अम्लीय (acidic) कंवची २. क्षारक (basic) कंवची. अम्लीय कंवची ही चड करून निवळ, रंगविरयत आसून तिचो प्रणमनांक (Refractive Index) १.५१ परस उणो आसता. क्षारक कंवची निवळ काफये कोराची वा काळी वा काजळे सारक्या कणांची अपारदर्शक आसून तिचो प्रणमनांक चडसो १.५४ परस चड आसता. अम्लीय कंवचेपसून तयार जाल्ल्या फातराक 'ओबसिडियन' आनी 'प्युमिस' अशें म्हण्टात. 'ओबसिडियन' फातर सादारण ७५० ते ९५०°से. तापमान आशिल्ल्या रायोलिटिक लाव्हारोसाचें 'द्रुतशमन' जावन तयार जाता. हातूंत उदकाचें प्रमाण १% परस उणें आसता. हो फातर उपरांत कांय काळान उदक ओडून घेवंक शकता; आनी जेन्ना उदकाचें प्रमाण १० % इतलें जाता, तेन्ना त्या फातराक 'पिचस्टोन' अशें म्हण्टात.

जेन्ना रायोलिटिक लाव्हा रोसाचे बोमाडे येवन फेणेर तयार जाता, तेन्ना ताच्यापसून तयार जाल्ल्या फातराक 'प्युमिस' अशें म्हण्टात. हे कंवचेक हवेचे बोमाडे खूब आसतात आनी देखून मेकळ्यो सुवाती कंवचे परस चड आसतात. क्षारक कंवची ही बेझाल्टीक लाव्हारोसापसून तयार जाल्ली आसता. हातूंत मुखेल दोन प्रकार आसतात. एक म्हळ्यार 'सिडेरोमेलन', जी निवळ काफये कोराची आसता आनी तातूंत कुहर (vesicles) सामकीं उणीं आसतात आनी दुसरी 'टॅचिलाइट' जी काळे काजळेसारक्या दिसपी कणांची आसून हातूंत खूब कुहर आसतात.

क्षारक कंवचेचो जलसंयोग (hydration) आनी ऑक्सिडीकरण जावन एक हळडुवी वा काफयेकोराची वस्त तयार जाता, तिका 'पॅलागोनाइट' अशें म्हण्टात. पाचव्या रंगांत परिवर्तन जालें जाल्यार ताका 'क्लोरोफियाइट' अशें म्हण्टात. कंवची वेगवेगळ्या रंगाची आसूंक शकता. कंवचेचो रंग हो तातूंत आशिल्ल्या कॅटायनांप्रमाण (cations) फुडले तरेन घडटाः $Fe^{+2}$ - पाचवो, $Fe^{+3}$ - हळडुवो, $Cr^{+3}$ - तांबडो वा पाचवो, $Ti^{+4}$ - निळो, $Mn^{+2}$ - गुलाबी $V^{+3}$ - पाचवो, $Li^{+1}$ - फिकट गुलाबी.

कंवची सिलिका कसापसून तयार करतात, जातूंत सोडा आनी चुनो हे घटक कमी प्रमाणांत आसतात. आलुमिना आसल्यार जाता, पूण ताचें प्रमाण थाराविक मर्यादेइतलेंच आसता. सादारण कंवचेचे वस्तूंत तें प्रमाण ४% इतलें आनी प्रकाशीय आनी ऊंची गुणवत्तेची कंवची हांकां हें प्रमाण ०.१% परस उणें आसता. तशेंच आयर्न ऑक्साइडचें प्रमाण प्रकाशीय कंवचेखातीर ०.०२ ते ०.०५% इतलें, तर जनेलांची कंवची आनी बाटल्यांखातीर करतात ती कंवची हांच्याखातीर हें प्रमाण ०.५% इतलें आसता.

कंवचेचे कितलेशेच प्रकार आसात. दरेका कंवचेचें रसायनीक संघटन आनी प्रकृतीक गुणधर्म हेर प्रकारांपरस वेगळे आसतात. दरेका प्रकारची कंवची कांय खाशेल्या उपेगांखातीर वापरतात. देखीक- बाटल्यो, कंवचेचीं पात्रां, तावदानां, वक्लांचीं भिंगां आनी रसायनीक प्रयोगशाळेंत वापरपाचीं कंवचेचीं उपकरणां, वेगवेगळ्या तरांच्या कंवचेपसून तयार करतात. कंवचेचे कांय मुखेल प्रकार अशेः दुदी कंवची, पत्रित सुरक्षित कंवची, दृढीकृत कंवची, फिगर्ड ग्लास, फोम कंवची (foam glass), तंतुरुप कंवची, रंगीत कंवची, व्हायकर कंवची.

कंवचेचो उपेग अर्कशाळा सामान, घरांक लागपी सामान, जनेलां, बाटल्यो, प्रकाशीय उपकरणां, खनीज-लोकर, कंवची-लोकर, कंवची-रेशीम, कंवची-तंतू, कांकणां, मणी हांचेखातीर करतात. कंवचेचो उपेग गरमी आनी आवाज निरोधक म्हणूनय करतात. कंवची करपाक उपेगाक येवपी कच्चो माल भारतांत रीवा आनी बांदा (उत्तर प्रदेश), बुंदी (राजस्थान), भुरद्वान (बंगाल), कोलार (कर्नाटक) आनी राजमहाल (बिहार) ह्या जाग्यांनी मेळटा.

- डॉ. अशोक देसाय

**कः** देवनागरी वर्णमालेंतलें 'क' वर्गांतलें पयलें व्यंजन. 'क'चे कितलेशेच अर्थ आसात, ते अशेः ब्रह्मदेव, दक्ष प्रजापती, कश्यप, वायू, सूर्य, यम, विष्णू, कामदेव, अग्नी, आत्मा, राजा, गाठ, मोर, पक्ष्यांचो राजा, पक्षी, मन, शरीर, वेळ, कुपां, शब्द, आवाज, उजवाड, संपत्ती, केंस.

ह्या अक्षराक आयचें स्वरूप प्राप्त जावंचेपयलीं ५ अवस्थांतल्यान वचचें पडलें:-



पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनार हांगाच्या शिलालेखांत, दुसरी कुशाण काळांतल्या मथुरा हांगाच्या लेखांत आनी तिसरी इ.स. दुसऱ्या शेंकड्यांत क्षत्रपवंशी रुद्रदामनच्या गिरनार हांगाच्या लेखात दिसून येता. चवथी अवस्था जपानच्या एका मठांत मेळिल्ल्या उष्णीषविजयधारिणीच्या एका ताडपत्री पुस्तकांत (इ.स. सवो शेंकडो) पळोवपाक मेळटा. हातूंत 'क' चे उजवे वटेन गांठ आसा. फुडें हे विशीं इल्ली-इल्ली उदरगत जावन आयचो 'क' तयार जालो. हैहयवंशी राजा जाजल्लदेव हाच्या काळांतलो एक लेख (इ.स. १११४) आनी परमार राजा धारावर्ष हाच्या मुस्तींतलो ओरिआ हांगाचो लेख (इ.स. १२०८) हातूंत ह्या प्रगतावस्थेंतलो 'क' दिसता.

ककार हो सगळ्या वर्णांची मूलप्रकृती आसून ताचें तत्त्व अशें-

वामरेखा भवेद् ब्रह्मा विष्णुर्दक्षिणरेखिका।
अधोरेखा भवेद् रुद्रो मात्रा साक्षात् सरस्वती।

(कामधेनुतंत्र)

अर्थ- ककाराची दावी आडी ब्रह्मरुप, उजवी विष्णुरुप आनी सकयली आडी रुद्ररुप आसून मात्रा ही साक्षात् सरस्वती जावन आसा.

ककार हो स्वता 'प्रकृतिसुंदरी' आसून तो सगळ्या देवांची आवय जावन आसा. तशेंच, पंचदैवत ककार हें त्रिपुरसुंदरीचें आसन आसा, अशेंय कामधेनुतंत्रांत सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**कच्छः** भारताचे अस्तंत देगेचेर आशिल्लो हो प्रदेश गुजरात राज्यांत आसा. ताचे उत्तरेक आनी उदेंतेक व्हडले मळ; दक्षिणेक व्हडली दर्यादिग आनी अस्तंतेक अरबी समुद्र आसा. हो खाऱ्या उदकाचो वाठार कांसवाच्या आकाराचो आसा. देखून ताका कच्छ (कांसव) हें नांव पडलां आसूंये.

ह्या प्रदेशाचो आवांठ ४५,६१२ चौ. किमी. आसा. उदेंत-अस्तंत अंतर सुमार २५६ किमी. जाल्यार, उत्तर-दक्षिण अंतर ५६ ते ११२ किमी. आसा. भारताचे मुखेल भुंये सावन वेगळो पडिल्लो हो प्रदेश पडंग, रेंवट आनी फातरांचो आसलो तरी थंय वळीन आशिल्ले दोंगर, मदीं-मदीं व्हांवपी न्हंयो, कांयकडेन पिकावळ, तशेंच तणान भरिल्ले वाठार दिश्टी पडटात.

ह्या वाठारांत आशिल्ल्या दोंगरांपैकीं धिनोधर हो मुखेल पर्वत. ताचें तेमक सुमार १००० फूट ऊंच आसा. पयलीं ह्या दोंगराचेर ज्वालामुखी आशिल्लो. हांगाच्यो न्हंयो पावसाळ्यांत व्हांवतात आनी हेर वेळार सुक्यो आसतात. मदीं मदीं ह्या भागांत भूंयकांप जातात. १८२९, १८४४, १८४५, १८६४ आनी १९५६ ह्या वर्सांनी भुंयकांपांची मोटी बादा ह्या प्रदेशाक जाली.

ह्या प्रदेशाचें हवामान उण्यांत उणें ७.८° से. जाल्यार चडांतचड ४२.८° से. आसता. वर्सभर दर्यादिगेर आनी भितरल्या वाठारांत गीम सोडून हवा बरी आसता, पूण एप्रिल आनी मे ह्या दोन म्हयन्यांनी वादळी वारें व्हांवता.

चडशें पडंग मळ आशिल्ल्यान ह्या प्रदेशांत लिंबू, पिंपळ हेभायर दुसरीं झाडां दिश्टी पडनात. चित्ते, रानदुकरां, सोंशे, उंट, गाडवां, घोडे आदी जनावरां हांगा आसात. तेभायर हांयसां, सारस ह्या सारकीं सुकणीं भायल्या देशांतल्यान येतात.

पूर्विल्ल्या काळासावन हो वाठार एक जनपद म्हूण वळखताले. पाणिनीक ह्या प्रदेशाची पुराय खबर आशिल्ली. ताणें हांगाच्या लोकांक 'काच्छक' अशें म्हळां आनी तांचीं तीन खाशेलपणां सांगल्यांतः १. काच्छकं हसितम् (कच्छी लोकांची हांसपाची तरा) २. काच्छकं जल्पितम (कच्छी लोकांची उलोवपाची तरा) ३. काच्छिका चूडा (कच्छी लोकांची शेंडी दवरपाची चाल). ह्या वाठारांतले क्षत्रिय अजुनय माथ्यावेलो फुडलो केंसांचो भाग तासून फाटल्या केंसांची शेंडी दवरतात.

पूर्विल्ल्या काळांत ग्रीकांक कच्छाविशीं म्हायती आशिल्ली. दुसऱ्या शेंकड्यांत कच्छाचो मेदनेरच्या राज्यांत आस्पाव जालो. रोखडेंच तें शकांच्या हाताखाला गेलें. इ.स. ३९० मेरेन सौराश्ट्रांतले क्षत्रप राजा कच्छाचेर राज्य करताले. फुडें कांय काळ ह्या वाठाराचेर वल्लभीच्या राजांनी राज्य केलें. सातव्या शेंकड्यांत हो प्रदेश सिंध वाठारांत विलीन जालो. उपरांत चारण, काठी आनी चावडा हे लोक कच्छाचेर चाल करून आयले. णवव्या शेंकड्यांत अरब लोक ह्या वाठाराच्या दर्यादिगेर येवन रावले.

कच्छाच्या आर्विल्ल्या इतिहासाक सुरवात जाता, ती चवदाव्या शेंकड्यापसून. सिंध वाठारांतल्या सुम्र सत्ताधीशांच्या जुलमाक वाजेवन थंयचे सम्मा राजपूत कच्छांत रावपाक आयले. थंयच्या राजपुतांनी तांकां आदार दिलो, पूण ह्या सम्मांनी तांकां कुशीक सारून कच्छ राज्य आपणायलें. ह्या वंशांत जोजाड नांवाचो एक राजा आशिल्लो. ताचेवेल्यान थंयचे लोक आपल्याक जाडेजा म्हणपाक लागले. इ.स. १४५० मेरेन जाडेजांच्यो तीन शाखा कच्छाचेर राज्य करताल्यो. णवव्या शेंकड्यांत सिंधांतल्या सम्मा राजपुतांचो कच्छाकडेन संबंद आयिल्लो. तातूंतलोच एक राजपूत खेंगार हाणें अहमदाबादच्या सुलतानाचो आदार घेवन सगळो कच्छ देश आपले सत्तेखाला घेतलो. फुडें स पिळग्यांमेरेन कच्छाचेर खेंगारच्या घराण्याचो शेक चल्लो. १७१८ त गुजरातचो सुभेदार कच्छाचेर जायते फावटीं चाल करून आयलो. पूण ताका यश मेळ्ळें ना. अठराव्या शेंकड्यांत कच्छ प्रदेशाची बरीच उदरगत जाली. १९६२ त कच्छांत व्हड बंड जालें. बंड आळाबंदाक हाडपाखातीर ब्रिटीश मदीं पडले. सुमार १८०९ त कच्छ मांडलिक संस्थान जालें. फुडें कच्छाची ल्हवल्हव उदरगत जायत गेली. तिसऱ्या खेंगारान (१८७८-१९४२) कच्छाचे रापड, भाचौ, मुंद्र, भूज, मांडवी, अब्दसा, लखपत, अंजार, नख्तराना अशे वेगवेगळे भाग केले. कांडला बंदराची बुन्याद घाली. भारताची सुटका जाल्या उपरांत कच्छ हें संस्थान, सतरावो महाराज मदनसिंहजी हाणें १ जून १९४८ दिसा भारतांत विलीन करपाक मान्यताय दिली. कच्छ हो १९६० मेरेन द्विभाशीक मुंबय राज्याचो एक भाग आसलो. ताचे उपरांत कच्छ ह्या वाठाराचो गुजरात राज्यांत आस्पाव जालो.

१९६५ त सिंध आनी कच्छ हांच्या मदलो शिमेप्रस्न मुखार आयलो आनी पाकिस्तानान कच्छाचेर घुरी घाली. तेन्ना आंतरराश्ट्रीय लवाद मंडळान कच्छ मळाचो सुमार ८३७ चौ. किमी. भाग पाकिस्तानाक दिलो. १९७१ च्या भारत-पाक झुजावेळार भारतान चडसो भाग परतो मेळोवन घेतलो. पूण सिमला कबालती वेळार तो परत पाकिस्तानाक मेळ्ळो.

हो प्रदेश चडसो पडंग आसून अर्थीक नदरेन खूब फाटीं आसा. उणो पावस आनी फातरांची जमीन हाकालागून पिकावळ चड प्रमाणांत जायना आनी हेचखातीर उद्येग-धंद्याच्या निमतान लोकांनी स्थलांतर केलें. कच्छचे दर्यादिगेर आशिल्ल्या कांडला बंदराक लागून लोकांक

वेपार-धंदो करूंक मेळटा. ह्या बंदराचेर कितलींशींच तेलाचीं केंद्रां सुरू जाल्यांत. हांगा मीठ भरपूर पिकता, तशेंच दर्यादिग लागीं आशिल्ल्यान नुस्त्याचो धंदोय बरो जाता. हांगा लोखण, लिग्नाइट आदी खनिजां मेळटात. ज्वारी, बाजरी, गंव, मूग हेसारकीं कड्डणां ह्या प्रदेशांत पिकतात, तरी तांदूळ भायल्यान हाडचो पडटा. कच्छ प्रदेशाच्या लोकांक धाडसी आनी हुशार म्हूण वळखतात. चांदीच्या आयदनांचेर नक्षीकाम करपाक हांणी नामना जोडल्या. ह्या लोकांची भास कच्छी; ही भास जरी गुजरातची बोली आसली तरी सिंधी भाशेक खूब लागींची आसा. हांगाच्या कांय वाठारांनी फारसीय उलयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**कटक:** ओरिसा राज्यांतलें नामनेचें शार. आदल्या काळासावन १९५२ मेरेन हें शार ओरिसा राज्याची राजधानी आशिल्लें. आतां हें शार कटक जिल्ह्याचें मुखेल थळ जालां. ओरिसाची सद्याची राजधानी भुवनेश्वर जाल्ल्यान कटक शाराचें प्रशासकीय म्हत्व उणें जालां. हें शार महानदी न्हंयच्या त्रिभुज वाठाराच्या तेमकार वसलां. लोकसंख्या २,६९,९५० (१९८१).

सरभोंवतणी उदक आशिल्ल्यान ह्या शाराक तेराव्या शेंकड्यांत अनंगभीमदेव राजान राखणेखातीर दुर्ग बांदलें आनी नामनेचो 'बारामती' नांवाचो किल्लो बांदलो. हो किल्लो णव माळयांचो आशिल्लो. सद्या तो मोडिल्ले अवस्थेंत आसा. तरीयपूण ताचें मुखेल दार पळोवपासारकें आसा. मुसलमानांच्या काळांत लालबागेची निर्मणी जातकच आनी ओरिसा राज्याचें शासन-संचलन लाल बागेच्यान जावंक लागतकच ह्या किल्ल्याचें म्हत्व उणें जायत गेलें. १८०३ वर्सा बारामती किल्लो ब्रिटिशांनी भोसल्यांकडल्यान घेतलो.

कटक शारांत लालबाग, राजप्रसाद, जामा मशीद, अमरेश्वर देवूळ, जैनांचें देवूळ, चर्च, बारामती स्टेडियम आनी शहीद भवन हीं थळां पळोवपासारकीं आसात. तशेंच हांगा विद्यापीठ, १८६३ त थापणूक जाल्लें नामनेचें रेव्हनशा महाविद्यालय, वैजकी, अभियांत्रिकी अश्यो जायत्यो शिक्षणीक संस्था आशिल्ल्यान कटक शाराक शिक्षणीक केंद्र समजतात. ओरिसाचें उच्च न्यायालय ह्या शारांत आसा.

रेल्वेमार्गान कटक शार मद्रास आनी कलकत्ता ह्या दोन नगरांक जोडलां. कटक शारांत आशिल्ले महानदीचेर व्हड पूल आसा. तेचपरी हें शार उदकामार्गान चांदबाली आनी फॉल्स पॉइंट ह्या बंदरांकडेन जोडलां.

ह्या शारांत भरपूर भात पिकता. देखून, तांदळाच्या वेपाराखातीर ह्या शाराक बरीच नामना मेळ्ळ्या. हांगा भात संशोधन केंद्रांय आसात. कटक शाराचे उत्तरेकडल्या चौद्वार वाठारांत, कपडे, कागद आनी लोखणी नळ्यांचे कारखाने आसात. तशेंच दक्षिणेकडल्या बारांग ह्या वाठारांत कंवचेचो कारखानो आसा. कटक शारांत कितलेशेच ल्हान ल्हान उद्येग चलतात. हांगाच्या भांगर, चांदीच्या जाळीदार नक्षीकामाक आनी लाख आनी हाड हांच्यापसून तयार केल्ल्या वस्तूंक बरेंच खाशेलपण आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कडकडे, अजित:** (जल्म: ११ जानेवारी १९५२, दिवचल).

एक नामनेचो गोंयकार गवय. *पं. जितेंद्र अभिषेकी (*)* हाचो पट्टशिष्य. बापायचें नांव सदानंद आनी आवयचें नांव प्रेमा. ल्हानपणासावन अजिताक गायन-वादनाची आवड आशिल्ली. गोंयचो नामनेचो संगीतकार सर्गेस्त सखारामबापु बरवे हाचेकडेन ताणें पिरायेच्या इकराव्या वर्सासावन हार्मोनियम वादनाचें शिकप चालू केलें. सूर-तालाची उपजत दैण आशिल्ल्यान ताणें हार्मोनियम वादनांतल्यान शास्त्रीय संगीताचें गिन्यान आपणावपाक सुरवात केली. उपरांत ताणें दिवचले श्रीपादबुवा माडये ह्या जाणकाराकडेन गायनाचें शिकप चालू केलें.

गोंयचो नामनेचो गायक आनी संगीतकार पद्मश्री पं. जितेंद्र अभिषेकी हाचेकडेन गायन शिकपाची ताची उपाट इत्सा आशिल्ली. एक दीस पं. अभिषेकी हाचो कार्यक्रम दिवचले जालो तेन्ना अजिताची ही इत्सा पुराय जाली. अभिषेकीन ताका मुंबय आपणासरी शिकपाखातीर आपयलो. पं. अभिषेकीकडेन अजिताचें पध्दतशीर शिकप सुरू जालें. खर मेहनत आनी शिकपाची आवड ह्या गुणांक लागून ताच्या संगीत कलेच्या अभ्यासाक एक नवें मोडण मेळ्ळें. कांय वर्सांभितर ताणें स्वतंत्रपणान गायनाचे कार्यक्रम करपाक सुरवात केली. फुडें सर्गेस्त गोविन्द प्रसाद जयपुरवाले हाचेकडेन पं. अभिषेकीचे सांगणेवेल्यान ताणें शिकप चालू दवरलें.



अजित कडकडे

पं. अभिषेकीच्या मार्गदर्शनाक लागून 'संत गोरा कुंभार' ह्या नाटकांत पयलेच खेप काम करून तो मराठी रंगमाचयेर उजवाडाक आयलो आनी गावपी नट म्हूण ताणें नांव मेळयलें. उपरांत ताणें 'सौभद्र', 'संशय-कल्लोळ', 'कुलवधू' 'महानंदा', 'कधीतरी कोठेतरी', 'अमृत मोहिनी' ह्या संगीत नाटकांनी आपलें कसब दाखोवन नामना जोडली. पूण नाटकांतल्यान गावपी नट म्हूण नामना मेळोवचेपरस शास्त्रीय गायनाचे कार्यक्रम करपाचेर ताणें चड लक्ष दिलें. दिल्ली, कलकत्ता, मद्रास, हैदराबाद, भिलाई, इटारसी, नागपूर, गोंय, पुणे, विलासपूर, महाराष्ट्रांतलीं हेर म्हत्वाचीं शारां, बेळगांव, रायपूर आनी देशांतल्या हेर कितल्याशाच भागांनी ताच्यो मैफिली गाजल्यात.

भजन-अभंग, भक्तिगीत, नाट्यगीत आनी कोंकणी गीतां समर्थपणान गावपाखातीर ताणें नामना जोडल्या. आकाशवाणी आनी मुंबय दूरदर्शनावयलो तो लोकप्रिय कलाकार आसा. भावगीत, भक्तिगीत आनी नाट्यगीत अश्यो ताच्यो वट्ट ४५ स्वतंत्र ध्वनी-कॅसेटी आयल्यात. ग्रामोफोन कंपनीनूय ताच्यो कांय रिकॉर्डी काडल्यात. ताच्या गायनांत नव्या-नव्या प्रयोगांचो वापर जाल्लो दिसून येता. 'झणी दे कर या', 'भक्तिवाचूनी मुक्तीची', 'सजल नयन', 'कर हा करी', 'विठ्ठला मीच खरा अपराधी' हीं ताचीं पदां खूब गाजल्यांत. आकाशवाणीचेर ताणें कांय कोंकणी गीतांय गायल्यांत.

- रमेश सखाराम बरवे

**कणंग:** (मराठी- रताळे; हिंदी- शकरकंद, शकरकंदी; कन्नड- गेणसु, इंग्लीश- इपोमिया पोटॅटो, कूळ- कन्व्हॉलवुलेसी).

एक खावपाचें मूळ. मूळची अमेरीकेची वनस्पत. उश्ण वा समशीतोश्ण वाठारांत कणंगांची लागवड जाता. कणंगांची वाल लांब कांडाची आनी पातळत वचपी (trailing) आसता. पानां मोटीं, हाता आकाराचीं आसतात. फुलां फुनेलाभशेन तांबडीं, केसरी वा गुलाबी रंगाचीं आसतात.

कणंगांचो आकार लांबट, आयताकृती वा तांतयांभशेन आसता. कणंगांचो रंग धवो वा तांबडो, भितल्ल्यान नारिंगी, भायल्यान लेव हळडुवो आनी पुडी कोराचो वा गुलाबी आसता. कणंगां भितर स्टार्च आसता आनी ताच्या केसरी पिठांत कॅरोटीन खूब प्रमाणांत आसता. कणंगाच्या वेलीक फुलां आनी बियो केन्नाय येतात. बियांपसून पीक येता, तें मूळ वनस्पतीवरी जायना आनी ताका लागून नव्या कणंगांचें उत्पादन कणंगांक येवपी कोंबांपसून वा वेल कापून येवपी कोंबांपसून करतात

बियो उश्ण हवामानांत शेतांत रोयतात. बियांक भायल्यान निबर कवच आशिल्यान कोंब येवपाक खूब कळाव लागता. केन्ना केन्ना एक वर्स लेगीत लागता. जेन्ना बियांचें वयलें निबर कवच सोलून उडोवन बियो लायतात, तेन्ना त्यो रोखड्योच कोंबेतात.

कणंगांची वेल रेंवट जमनींत बरी वाडटा. पिकाळ मोव जमनींत वेल खूब वाडटा आनी कणगांचीं मुळां सगळयाक पातळटात. रोंपे लायतकच कणंगां लागपाक चार-पांच म्हयने तरी लागतात.

जपानांत कणंगां सुकयतात आनी स्टार्च, आल्कॉहॉल करपाक वापरतात. अमेरिकेंत ताचो वापर फकत खावपाखातीर जाता.

कणंगांच्या मुळांपसून काडिल्ले कोंब एक ते देड फूट अंतराचेर, एक फूट उंचायेचें आळें काडून पिकाळ, उश्ण जमनींत रोयतात. मुळाक कणंगां लागतकच इबाड जावंचो न्हय म्हूण तीं रोखडींच काडटात. कणंगांच्या पिकाक चड फॉस्फोरस- पोटॅश आनी उणें नायट्रोजन ह्या प्रमाणांत रसायनीक सारें घाल्यार ताची वाड बरी जाता. शेणसारें, पांचवें सारें घालतकच लांब, वांकडीं-तिकडीं कणंगां लागतात आनी 'स्कर्फ' ह्या कवक (fungal) रोगापसून ताची राखण जाता. कणंगां बरेतरेन काडून दवरल्यार तीं स-सात म्हयने खावपाचे स्थितींत उरतात.

अमेरिकेंत कणंगांची लागवड लुईझियाना, दक्षिण कॅरोलीना, न्यू जर्सी, व्हर्जिनिया, दक्षिण कॅरोलीना, मिसिसिपी, टेक्सास आनी कॅलिफोर्निया हांगा जाता. पॅसिफिक जुंवे, जपान आनी रशिया हांगाय कणंगांची लागवड जाता.

गोंयांत कणंगांची लागवड आगशी, व्हडल्या गोंयां हांगा जाता. गोंयांत तांबडीं आनी धवीं कणंगां जातात. गोंयांत कणंगांचो उपेग खावपाखातीर करतात. कणंगांची भाजी करतात, खीर करतात, कापां तळटात, म्हानां करतात आनी शेवयांचे घोंस करतात.

आंगार कंग्रे आशिल्लीं आनी चरबरीत कांटे आशिल्लीं 'कांटेकणंगां' नांवाची कणंगांचीच एक जात गोंयांत दिसून येता.

- कों. वि. सं. मं.

**कतार:** इराणच्या आखातांतलें एक राज्य. क्षेत्रफळ १०,३६० चौ. किमी. लोकसंख्या ३,११,००० (१९८६). सुमार १६० किमी. लांब आनी ५६ ते ८० किमी. रुंदायेच्या ह्या देशाच्या तीन वटांनी इराणचें आखात, नैर्ऋत्येवटेन सावदी अरेबिया आनी दक्षिणेवटेन संयुक्त अरब अमीरात राज्यं आसात. ह्या दोनूय देशांकडेन कतारच्यो शिमो पक्क्यो थारायल्ल्यो नात. दोहा ही हांगाची राजधानी.

**भूंयवर्णन, हवामान, वनस्पत आनी मोनजातः** सगळो वाठार चुनखडी फातरांचो आसा. भितल्लो वाठार 'कार्स्ट' भूंयस्वरुपाचो आनी समुद्रथरासावन ७६ मी. उंचायेचो आसा. कतारची चडशी भूंय फातरांची, रेंवेची आनी सुकी आसा. मदींमदीं आनी चडशे दर्यादिगांचेर झरे आसात आनी फकत हांगाच किते ती हरयाळी सांपडटा. हांगा गिमांत तापमान सामकेंच चड ३४° से. आनी शिंयाळ्यांत उणें १६° से. आसता. वर्सुकी पावस सुमार ५ ते १० सेंमी. पडटा; पूण पावस पडटलोच अशी शाश्वती नासता. कांट्यांचीं झोंपां आनी कांय वाठारांनी आशिल्ल्या तणाचेर जियेवपी उंट आनी हेर बारीक-सारीक मोनजात, वसंत ऋतूंत हांगा येवन शरद ऋतूंत दुसरेकडेन वचपी सुकणीं हांगा सांपडटात.

**इतिहासः** कतारच्या पूर्विल्ल्या इतिहासाचेर उजवाड घालपी पुरावे हांगा सांपडूंक नात. सातव्या शेंकड्यांत पैगंबराचे मुस्तींत इस्लाम धर्म आपणायल्या उपरांत फुडें ह्या धर्मांतल्यान फुटून वचपी कांय लोकांनी (कार्मोथियन) मक्केचेर आपलो हक्क गाजयलो. बरींच वर्सां हांगाचो शेख इराणचो मांडलिक आशिल्लो. १९ व्या शेंकड्यांत इराणाकडल्यान फुटून अल् थाणी हाणें आपलें स्वतंत्र राज्य निर्मिलें. ताणें ब्रिटिशांवांगडा १८६८ त इश्टागत केली, आनीं हांगाच्या लोकांक चाच्यांच्या त्रासांतल्यान सोडयले. पूण उपरांत कतारच्या सुलतानान तुर्कस्थानचो आलाशिरो घेतलो. हाका लागून १९१३ मेरेन हांगा तुर्कस्थानची महसुल




कचेरी आशिल्ली. १९१६ त संयुक्त अमीर राज्यांनी मान्य केल्ल्यो अटी कतारान मानून घेवन ब्रिटिशांकडेन कबलात केली आनी हें राज्य ब्रिटिशांचे राखणेखाला आयलें. १९६५ त हे घडणुकेआड लोकांची तिडक तेंगशेर पाविल्ली. जून १९६७ त कतारान इंग्लंड-अमेरिकेक तेलाची पुरवण बंद केली. १९६८ त ब्रिटिशांनी हांगासावन सैन्य काडून घेवपाची घोशणा केली. कतारान हेर संयुक्त अरब अमीर राज्यांवांगडा कबलात केली. १९७१ त कतारान ब्रिटिशांकडल्यान पुराय स्वतंत्रताय मेळयली आनी हो देश संयुक्त राश्ट्रांचो (UNO) वांगडी जालो. १९७२ त हांगा जाल्ल्या कटांतल्यान अमीर शेख अहमद हाका सत्तेवेल्यान सकयल देंवोवन ताच्याच नात्यांतलो शेख खलीफा राजा जालो. १९७६ त ह्या देशान ईजिप्ताकडेन इश्टागतीचे संबंद बरेच दाट केल्ले, पूण १९७९ तल्या ईजिप्त इस्त्राएल शांतताय कबलाती उपरांत ते संबंद तुटले.

**राज्यवेवस्थाः** कतारांत राजेशाय चलता. स्वतंत्रताय मेळच्या पयलीं परदेशविशींचीं धोरणां आनी मुसलमान सोडून हेर धर्मीयांच्या राखणेच्या हक्कांचेर ब्रिटिशांचें नियंत्रण आसतालें. संविधान १९७० च्या कायद्याप्रमाण चलता. चडशी सत्ता सुलतानाच्या घराण्याकडेन आसता. थळावो राज्यकारभार नगरपालिका मंत्रालय पळेता. हांगा राजकी पक्ष आनी विंगडविंगड विचारसरणेच्या संघटनांक परवानगी ना. न्यायवेवस्था १९७० च्या मुळाव्या कायद्याप्रमाण आनी शरीयतच्या तत्त्वांचेर चलता. मजलीस-एश्-शुरा हें हांगाचें सगळयांत उंचेल्या पांवड्यावेलें कार्यकारी मंडळ. हातूंत २३ प्रतिनिधी आसात. ह्या देशाक पध्दतशीर संविधान ना आनी कार्यकारी मंडळांतल्या सगळ्या सदस्यांची नेमणूक सुलतान करता.

**अर्थीक स्थितीः** मोतयां काडपाचो वेवसाय हो हांगाचो एक पूर्विल्लो वेवसाय. सद्या तेल उत्पादन आनी कृत्रिम मोतयांच्या धंद्याक लागून हो वेवसाय फाटीं पडला. १९३९ त तेलाचो सोद लागल्या उपरांत उत्पादन वाडत गेलें. अर्थवेवस्था ९०% तेल उत्पादनाचेर आदारल्या. कांय वाठारांनी नुस्तेमारी, व्हडीं बांदप, खाजराची लागवड आनी गोंरवां,

मेंढरां, उंट पोसपाचो धंदो उण्या प्रमाणांत जाता. तेलाच्या उत्पादनाक लागून हें राश्ट्र बरेंच गिरेस्त आसा. कतार रियाल हें हांगाचें चलनी नाणें जावन आसा.

**येरादारी आनी संचारणः** कतारांत देशाभितर रेल्वेमार्ग आनी उदकांतल्या मार्गांची वेवस्था ना. दोहा हें हांगाचें मुखेल बंदर आसा. उम्म सैद हांगा सावन तेलाची येरादारी जाता. हांगा १९८५ मेरेन १,०८० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. रस्त्यांच्या मार्गांवेल्यान सावदी अरेबिया आनी संयुक्त अरब अमीर राज्यांकडेन ह्या देशाचो संबंद जोडला. हेर शेजारच्या राश्ट्रांवांगडा हांगा 'गल्फ एअर' ही विमानकंपनी हवाई मार्गाचेर येरादारी करता. दोहा हो हांगाचो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. १९८५ मेरेन हांगा ५ खबरांपत्रां आशिल्लीं. प्रसारमाध्यमाचेर सरकाराचें पुरायपणान नियंत्रण आसा. रेडिओवेल्यान प्रसारित जावपी कार्यावळी अरबी आनी इंग्लीश भाशेंतल्यान आसतात.

**लोक आनी समाजजीणः** चडशे लोक अरब आसून सुन्नी मुसलमान पंथाचे आसात. हांच्यामदीं कांय प्रमाणांत निग्रो वंशाच्या रगताची भरसण आसा. घडये ही गजाल पयलींच्या गुलामांच्या वेपाराक लागून जाल्ली आसूंये. हे लोक पोरन्या विचारांचे आसात. इराणी हे हांगाचे सगळ्यांत वड अल्पसंख्यांक. हेभायर पाकिस्तान, भारत आनी हेर आशियाई राश्ट्रांतले लोक हांगा येवन रावल्यात. किरीस्तांव, बहाई आनी हिंदू धर्माचे लोक कांय प्रमाणांत सांपडटात. हांगाचे लोक पर्शियन भाशेची भरसण आशिल्ले अरबी भाशेंतल्यान वेव्हार करतात.

**शिक्षणः** राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण १०% आसा. शिक्षण फुकट आसलें, तरी सक्तीचें आनी एकसारकें ना. सरकाराकडल्यान विद्यार्थ्यांक पुस्तकां, गणभेस, अन्न, येरादारीची सोय असल्यो बऱ्योच सवलती मेळटात. तीन वर्सांचें मुळावें शिक्षण, तेउपरांत ३ वर्सां माध्यमिक आनी ३ वर्सां उच्च माध्यमिक अशें शिक्षण हांगा आसा. सप्टेंबर ते जून मेरेन शिक्षणीक वर्स आसता. मुळावें शिक्षण अरबी भाशेंतल्यान जाता. उंचेल्या पांवड्यार मात इंग्लीश भाशेंतल्यानय शिक्षण दितात. सद्या शिक्षणाच्या मळार उदरगत करपाचे यत्न चल्ल्यात. शिक्षकांखातीर प्रशिक्षण दिवपाची येवजण सरकारान व्हडा प्रमाणांत हातांत घेतल्या. हांगाचे बरेच विद्यार्थी शिक्षण घेवचेपासत अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, ब्रिटन, सावदी अरेबिया आनी कुवेत ह्या देशांनी आसात.

**म्हत्वाचीं थळांः** दोहा ही राजधानी. पर्यटनाचे नदरेंतल्यान जरी एकूय थळाक म्हत्व नासलें तरी अर्थीक नदरेंतल्यान आनी वेपाराच्या मळार दोहा आनी मुसाइट ह्या शारांक म्हत्व आसा.

- कों. वि सं. मं.

## कथकळी नृत्यः एक अभिजात भारतीय नृत्यप्रकार.

केरळांतल्या नृत्यनाट्याची परंपरा खूब पोरनी. ल्हवल्हव ह्या नृत्यनाट्यांनी नवीं रूपां धारण केलीं आनी तातूंतल्यानूच आयच्या कथकळीचो जल्म जालो. मुटियाट्टम् आनी कूटियाट्टम् हीं केरळचीं पूर्विल्लीं नृत्यनाट्यां. तेउपरांतचें 'चाक्यार कूत्तू' हें नृत्य चड प्रगत आशिल्लें. हे परंपरेक अनुसरून १६५७ त कालिकतचो (कोळीकोडे) राजा झामोरीन हाणें कृष्णाचे जिणेचेर आदारीत अशें नृत्यनाट्य तयार केलें. ताका 'कृष्णनाट्टम्' अशें म्हण्टाले. कोट्टारक्करा देशाच्या राजान ब्राह्मणांच्या पालवान एक नवें नृत्यनाट्य तयार केलें. ताचें नांव रामनाट्टम् नृत्य. ह्या नृत्यनाट्यांत प्रभू रामचंद्राच्या जिविताची कथा नृत्यांकित करताले. ह्याच कृष्णनाट्टम् आनी रामनाट्टम् नृत्यनाट्यांतल्यान आयज प्रचलित आशिल्लें कथकळी नृत्य निर्माण जालें.

**रंगभूषाः** कथकळीचे रंगभूषेंत धवो (वेळ्ळा), हळडुवो (मंञा), पाचवो (पच्चा), निळो (नीला), काळो (करूप), तांबडो (चुवप्प) हे स रंग वापरतात. तेभायर चमक येवपाखातीर अभ्रकाची पूड वापरतात. रंगभूषा करतल्याक 'चुट्टिक्कारन' म्हण्टात. दोनूय कानसुलांपसून खाडकेमेरेन तोंडाच्या सकयल्या जबड्याक तांदूळ आनी चुन्याच्या मिश्रणान केल्ल्या वांटकुळे खाशेले रंगभूषेक 'चुट्टी' अशें म्हण्टात. दादले पात्रांचे रंगभूषेचें हें आगळें रूप जावन आसा. दुःशासनाक 'कटेश' नांवाची कागदाची वांटकुळी चुट्टी नाकपुड्यांपसून वयर कपलामेरेन लायतात. समुद्रफेनापसून लिंबायेदे दोन गुळे करून एक नाकाच्या शेंड्याचेर आनी दुसरो कपलाचेर (मुक्केल चुट्टी, नेटि चुट्टी) दसयतात. हे दिसपाक धवे आसतात. दोळे, भुंवयो, नाक, ओंठ आदींची रंगभूषा संबंदीत व्यक्ती स्वताच करतात.

**भेसः** दादले पात्रां फुगिल्ल्या घागऱ्याप्रमाण दिसपी झगो (उदुत्तु केट्ट) घालतात. ताचेर झुली (पट्टुवालमुन्त्ती) आनी भांगराचो कमरपटो (पटियरञ्ञामण) आसता. भुमिकेप्रमाण धवें, तांबडें, काळें, निळें, केसाळ अशें पुराय हातांचें जाकीट (कुप्पायम्) घालतात. मनगटांत कडें, दंडाचेर बाहुभूषणां (तोळपूट्ट परत्तिक्कामणी), गळ्यांत कोल्लारम्, कळुत्तारम्, खांदयावयल्यान सोडिल्लीं उपरणीं (उत्तरीयम्) असो हेर भेस आसता. शिरोभूषण (तोटा किरीटम्) वापरतात. कपलाचेर भालपट्टी आनी मणयांच्यो माळो (चुट्टित्तुणि, चट्टिनाटा) आसतात. सात्विक, राजसिक आनी तामसिक अशे दादल्यांच्या भेसांचे भेद आसतात. दादले पात्रां चांदीचीं कृत्रिम नाखटां वापरतात.

बायल पात्रांचो सादो भेस सात्विक समजतात. बायल पात्रां मिरयो काडिल्ली साडी छायतेमेरेन धरून कमराक गांठी बांदून वेलो भाग ताचेवेल्यान सोडटात. उपरांत मिरयांचें सकयले वटेनचें तोंक उजवेकडल्यान फाटल्यान दावेवटेन खोयतात आनी उजवेवटेनचें तोंक फाटल्यान उजवेवटेन खोयतात. साडयेच्या वेल्यावटेनच्यो मिरयो ल्हान पंख्याप्रमाण कमराक दोनूयवटेन खोयतात आनी ताचेवयर तीनपोडी कमरपटो बांदतात. कानाच्या फुडें कर्णपात्रां (कातिला) आनी माथ्याचे दावेवटेन वळिल्लो आंबाडो (कोण्टा). कपलाचेर मोतयांची माळ बांदतात आनी आंबाड्यावेल्यान बोटांच्या तोंकामेरेन पावपी रुमी पड्डो (उरुमाल) घेतात. भीरू म्हळ्यार विदूषक हो आपले कपडे आनी वस्ती उरफाटो घालता.

**रंगमाचीः** कांय देवळांनी रंगमाची (कूत्तंबलम्) बांदिल्ले आसतात. जंय रंगमाची नासता थंय देवळाच्या प्राकारांत वा एकाद्रा आंगणांत चार कोनशांनी चार खांबे पुरुन वयर आडवे कांडे घालून आनी ताचेर चुट्टांनी विणिल्लीं मल्लां घालून तयार केल्लो जागो, रंगमाची म्हूण वापरतात. हे रंगमाचयेच्या तीनूय वटांनी लोक बसतात. रंगमाचयेर फुडें फाटल्यान खंयच पड्डो नासता. पूण प्रवेशाचे पूर्वेक आनी निमाणेकडेन लुंगी न्हेशिल्ले दोन दादले एक पड्डो प्रेक्षकांमुखार धरतात. रातच्या कार्यक्रमा वेळार नृत्यदीप (कळिविळक्क) म्हळ्यार सुमार सवाय मी. उंचायेची व्हड दिवली वापरतात. हे दिवलेंतली एक वात नर्तकाकडेन आनी दुसरी वात प्रेक्षकांकडेन पेटोवन दवरली म्हण्टकच रंगमाचयेची सिध्दता जाता.

**संगीतः** कथकळींत आदल्या काळांत सोपान वा सोमान संगीत वापरताले. उण्णायी वारियर आनी इरयिम्मन तंपी हांणी देशी कर्नाटक संगीत पध्दत पयलीं सुरू केली. सद्या हीच पध्दत रुढ आसा. कथकळींत रागतालांत बध्द केल्ल्यो रामायण आनी महाभारतांतल्यो वट्ट १३० कथा आसात. तातूंत ५०-६० राग वापरल्यात.

**तालः** कथकळींत फकत ६ ताल वापरतात. हे केरळ प्रांताचे स्वतंत्र ताल समजतात. ह्या तालांचीं नांवां अशींः पंचारी, तृपुटा, मुरियंटता, चंपटा, चंपा आनी अटंता. हांच्यो अनुक्रमान ६, ७, ७, ८, १०, १४ अश्यो मात्रा आसात.

**प्रयोगः** खेड्यांनी कथकळी प्रयोगाची सुरवात चार प्रकारांनी करतात. १. सुर्यास्ता वेळार तालवाद्यां वाजयतात ताका 'काळिकोट्टु' म्हण्टात. २. प्रयोगा वेळार रंगदीप (अरंगुकेळी) पेटयतात. ३. प्रयोग सुरू जातना वाद्यवृंद फाटल्यान येवन उबो रावता. तालवाद्यां सुरू जातकच प्रेक्षकांमुखार पड्डो धरतात. प्रवेशानुक्रमान पात्रप्रवेश जावन पड्ड्याभितर 'तोटयम्' नांवाचो नृत्यप्रकार सोंपयतात. उपरांत वंदनश्लोक (पुरप्पाटु तोळील) जावन प्रारंभनृत्य (पुरप्पाट) सुरू जाता

आनी क्रमाक्रमान पड्डो सकयल येता. गावपी सुत्रधाराप्रमाण कोणाचो प्रवेश जातलो, ताचें श्लोकांत वर्णन करतात. तेप्रमाण प्रवेश जावन प्रसंगाप्रमाण गीतवाद्यार अभिनय करतात. मदींच पद थांबोवन फकत तालवाद्याचेर नृत्य करतात. आपलें स्वतंत्र कसब दाखोवपाचो वाव हांगा पात्राक मेळटा.

**नृत्तः** कथकळी नृत्तबोलांक 'कलाशम' म्हण्टात. बायलांनी आनी दादल्यांनी नाचपाची कलाशम वेगळीवेगळी आसता. तांचे पांच प्रकार आसतातः १. रंगमाचीभर गोल फिरपाचे बोल (वट्टमिट्ट कलाशम) २. पदांच्या दोन वळींभितर येवपी बोल (इरट्टी वा इटक्कलाशम्) ३. समेचेर आयलेउपरांत परतो पूरक म्हूण येवपी बोल (अटक्कम्) ४. आव्हाना वेळार खंयचोय निर्णय घेतकच आनी प्रवेशाच्या निमणें घेतिल्लो बोल (एट्टुकलाशम्) ५. तरेकवार तालांनी येवपी व्हड नृत्य बोल (वलियमकलाशम् आनी अष्ट कलाशम्).

**नृत्यः** कथकळींत शब्दार्थ दाखोवपाखातीर वेगवेगळे २४ हस्त आसून ७५० मुद्रा आसात. हे सगळे 'हस्तलक्षण दीपिका' ह्या ग्रंथांतल्यान घेतल्यात. दोन कथकळी नर्तक एकामेकांकडेन एकय उतर उलयनासतना वरांचीं वरां उलोवंक शकतात. वनवर्णन, स्वर्गवर्णन, झुजारी तयारी, रथ तयार करप आदी कथकळीच्या नृत्त-नृत्याची खाशेलपणां आसात.

**नाट्यः** कथकळी नृत्यनाट्याची बसकाच नाट्याची आसता. दरेक पात्र आपली भुमिका इतले कुशळतायेन करता की ताचो अर्थ प्रेक्षकांमेरन सहज पावता. अभिनयांत नाट्यधर्माक म्हत्व आसता, देखून कथकळीचो अभिनय चड प्रभावी जाता.

**नामनेचे नर्तकः** पांचाली करुणाकर पणिक्कर, तकळी केशव पणिक्कर आशान, कोच्चुपिळ्ळ पणिक्कर आशान, पळ्ळियंपी वेलुपिळ्ळ आशान, गुरू शंकरन् नंपूतिरी, कंटियूर वेलुपिळ्ळ आशान, अंपू पणिक्कर, रामुण्णी मेनन, वेच्चूर रामन्पिळ्ळ आशान, कुरुच्ची कुंजन पणिक्कर आशान, मात्तूर कुंजनपिळ्ळ आशान.

सद्याचे म्हान नर्तक म्हळ्यार चेंगन्नूर रामन्पिळ्ळ आशान, वाळेंकट कुंचुनायर, राघवन्पिळ्ळ आशान, कलामंडलम् कृष्णन् नायर, मांकुळम् विष्णू नंपूतिरी, चंपक्कुळम् पाच्चुपिळ्ळ, गुरु गोपिनाथन्, गुरु कुंचू कुरुप, गुरु कृष्णन् कुट्टी हे जावन आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**कथाः** खासा एकमुळो परिणाम सादपाखातीर ल्हानशें कथानक, मर्यादीत पात्रां आनी वेंचीक घडणुको हांचे एकजीव निर्मणेचो गद्य साहित्यप्रकार म्हळ्यार कथा. आर्विल्ले कथेच्या मोटव्या आकाराक लागून तिका 'लघुकथा' अशेंय म्हण्टात.

हेर खंयच्याय साहित्य प्रकाराप्रमाण कथा ही संघर्शांतल्यान उबी जाता. हो संघर्श दोन मनशांमदलो, दोन वृत्तींमदलो वा दोन मनांमदलोय आसूं येता. कथेंतल्यान मनीसपणाचो वेध घेवपाचो कथाकाराचो हेत आसता. पूण तशें करतना कथेंत कथाकार दिश्टी पडचोना ही जतनाय ताका घेवची पडटा. विस्तार लायनासतना थारायिल्लो एकमुळो परिणाम सादपाचो आशिल्ल्यान कथेंत जें जें अनिवार्य आसा तितलेंच येवचें पडटा. गरजेभायर वापरिल्लें एकाद्रें उतर लेगीत कथेच्या परिणामाक मारक जावं येता.

सद्याच्या काळांत जंय लोकांक झटपट वाचपाचें साहित्य जाय आसता, थंय कथा हो एके बसकेंत थोड्याच वेळाभितर वाचून सोंपोवपाचो साहित्यप्रकार लोकांमदीं बरोच आवडीचो जाला.

कथेचें मूळ काणयेंत आसा. लोकांकाणयो, ग्रीक पुराणां, महाभारतांतल्यो कथा, पुराणांतल्यो काणयो, अरेबियन नाइट्स, बौध्द-जातक कथा ह्यो पूर्विल्ल्या काळासावन लोक भोव आवडीन वाचतात आनी आयकतात. काळांतरान हीच काणी कथेचो नवो रुपकार घेवन फुडें आयली.

आदल्या पोरन्या साहित्यांत आयच्या अर्थान कथा अशी सांपडना, पूण जिची प्रकृती कथेक बरीच लागींची आसा, अशी काणी मात सांपडटा. ऋग्वेद, बृहत्कथासार, कथाकल्पद्रुम, वेताळ पंचविंशती ह्या सारक्या संग्रहांतल्यो काणयो, कथा ह्या साहित्यप्रकाराक बऱ्योच लागींच्यो आसात.

पयलींच्या काळांत जेन्ना साहित्य बरोवन दवरपाची परंपराच नाशिल्ली, त्या काळांत काणी ही सांगपाची आनी आयकुपाची आसताली. सांगपी जितलो कुशळ, तितली काणी चड फुलताली. उपरांत छापणावळीचो सोद लागून काणी पुस्तकरुपान वाचप्यांमुखार आयली, तेन्ना 'सांगपी-आयकुपी' संबंद सोंपून 'लेखक-वाचक' हो नवो संबंद तयार जालो. ह्या बदलाक लागून काणी सांगपाचें तंत्र कुशीक पडून काणी बरोवपाचें तंत्र वयर सरलें. पुराणांतली काणी पर्थून पर्थून आयकूंक लोकांक मानवतालें. हाचें कारण म्हळ्यार दरेक सांगपी, विंगडविंगड शैलींत ती सांगतालो. पूण त्योच त्योच काणयो पर्थून पर्थून वाचूंक लोक उबगले. लोकांक नवें वाचूंक दिवपाच्या यत्नांतल्यान नवे प्रयोग जावंक लागले. १४ व्या शतमानांत चॉसर आनी बोकाचीओ ह्या इटालियन लेखकांनी कल्पनाविलासाचेर आदारुन बरयल्ल्यो सुरसकथा म्हळ्यार कथा ह्या साहित्यप्रकाराचे उदरगतींतलो एक मदलो पांवडो, अशें म्हणूं येता.

आदली काणी राजा-राणयेची, देव आनी साधुंची, गंधर्व वा परींची ना जाल्यार जादूची वा विस्मितांची आसताली. पूण सुमार देडशें वर्सांफाटीं कथेन नवें मोडण घेतलें आनी सादारण मनशाच्या जिवितांतल्या सादारण घडणुकांचेर उजवाड घालो. कथेन वास्तवाकडेन पळेनाफुडें ती वाचप्यांक चड मानवपाक लागली आनी तिका लोकांच्या मनांत सुवात मेळ्ळी.

१९ व्या शतमानाचे सुर्वेक युरोप-अमेरिकेंत जेन्ना नेमाळ्यांचो जल्म जालो, तेन्ना ल्हान वा मोटवे बरपावळीची गरज उप्रासली. लोकांची आवड पारखून संपादप्यांनी कथांचो आगरो धरलो. गरज आनी मागणी पळोवन लेखकांनी कथा मोटवी केली. ह्या बदलाची मागणी म्हूण नवें तंत्र जल्माक आयलें.

एडगर ॲलन पो ह्या अमेरिकन लेखकान संवसाराक आर्विल्ली कथा दिली आनी नवें तंत्र शिकयलें. ताच्याच काळांत जर्मनींत हॉफमन, फ्रांसांत बाल्झाक, मेरिमे आनी रशियेंत गोगोल, पुश्किन हांणी कथेची बुन्याद घट केली. तांच्याफाटल्यान फ्रांसांत गी द मोपासां, रशियेंत चेकोव्ह आनी अमेरिकेंत ओ. हेन्री हांणी कथा हो प्रकार गिरेस्त केलो.

काळाप्रमाण फुडें कथा बदलत गेली. विज्ञानाचे उदरगतीवांगडा कथेचीय उदरगत जावंक लागली. फ्रॉइडान मनोविज्ञानाच्या मळार केल्ल्या संशोधनाचो लेखकांनी खुबूच लाव घेतलो. कथा विशयाचे विविधतायेप्रमाण वेगवेगळीं रुपां घेवन लोकांमुखार येवंक लागली. देखीक- रहस्यकथा, भंयकथा, विज्ञानकथा, अद्भुत कथा आदी.

परकी शेकातळा चिड्डल्या भारतांत कथेची चळवळ विसाव्या शतमानाचे सुर्वेक सावन चालीक लागली, जाल्यार पोर्तुगेजांच्या शेकातळा गोंयांत कथेचे चळवळीक चड कळाव लागलो. ज्या काळांत गद्य कथा हो प्रकार भारतीय साहित्यांत अवतरूंक नाशिल्लो, तेन्ना कृष्णदास शामा हाणें रामायण-महाभारतांतल्यो कथा गद्य कोंकणीतल्यान बरयल्यो. तरीपूण कोंकणीतली पयली आर्विल्ली कथा ह्या शतमानाच्या तिसऱ्या दशकांत शणै गोंयबाबान बरयली. उपरांत १९३५ वर्सा 'वोंवळां' आनी १९५६ वर्सा 'भूंयचाफीं' हे कथाझेले उजवाडाक आयले. नेमाळ्यांतल्यानय कथा उजवाडाक येवंक लागल्यो. गोंयचे मुक्ती उपरांत मात कोंकणी कथा सगळ्या आंगांनी फुलूंक लागली. कथालेखकांनी कथेची गिरेस्त बरपावळ करून कोंकणी कथेक भारतीय कथासाहित्याच्या मळार मानाची सुवात मेळोवन दिली.

- दामोदर मावजो

पूरक नोंदः गोंय- कोंकणी साहित्य.

**कथ्थक नृत्यः** एक नामनेचो भारतीय नृत्यप्रकार. कथ्थक (कथक) म्हळ्यार कथा सांगपी. लक्षणेन नाच, गायन आनी अभिनय हांच्या

माध्यमांतल्यान कथा सांगपी असो ताचो अर्थ जाता. कथकांत एक नट वा कथोपजीवी अशें म्हण्टात. भारतांतल्या खूब पूर्विल्ल्या आनी परंपरासंपन्न लोकनाचांनी शास्त्रीय नृत्याक जल्म दिलो. कथ्थक नृत्याचें रास ह्या लोकनाचांतल्यान मुळावण पडलें. ह्या रासनृत्याचें वर्णन पुराणांतल्यान, नाट्यशास्त्रांतल्यान तशेंच वैष्णव कवींच्या काव्यांतल्यान आयिल्लें आसा. बाराव्या शतमानाच्या वैष्णव पंथाच्या काळांत रासनृत्याक चड म्हत्व मेळिल्लें. संगीत, काव्य आनी अभिनय ह्या तीनय कलांचो मेळ ह्या नाचांत दिसून येतालो. थाट, भ्रमरी, गत, तत्कार ह्या कथ्थक नाचांत आशिल्ल्या प्रकारांचो रासनृत्यांत आस्पाव आशिल्लो, हें वैष्णव कवींच्या कीर्तनकाव्यांतल्यान दिसून येता. राधाकृष्ण हो रासाचो मुखेल विशय. रास नाचांतल्या कृष्णकथांचें साभिनय कथन करपी मनशांक रासधारी कीर्तनकार वा कथ्थक अशें म्हण्टाले. फुडें ह्याच वर्गाकडल्यान नाचाची एक आगळी शैली तयार जाली आनी कथ्थकाकडल्यान केल्लो नाच कथ्थक ह्या नांवान रुढ जालो.

फुडें नर्तक-नर्तकींक मेळिल्ली हीन सुवात आनी कथ्थक नृत्यांतली कला-गुणांचो जाल्लो ऱ्हास हेखातीर ह्या नृत्यप्रकाराक कांय काळ देंवती कळा लागली. पूण अठराव्या शतकाच्या शेवटाक अवधचो नबाब वाजिद अली शाह हाणें ह्या नृत्याक पाळो दिलो. ताच्याच काळांत कथ्थक नृत्यांतल्या लखनौ घराण्यांचो उदय जालो. १९२६ त श्रीमती मेनका सोखी हिणें कथ्थक नाच मुंबय भौशिकतरेन सादर केलो. तोमेरेन तो नाच दरबारांत वा मेजक्या नृत्यरसिकांचे बैठकीपुरतोच मर्यादीत आशिल्लो. कथ्थक नृत्यशैलीचीं लखनौ, जयपूर आनी बनारस अशीं तीन नामनेचीं घराणीं आसात.

रंगमाचयेर कथ्थकाचें जें प्रत्यक्ष स्वरुप आमकां दिसता. ताचें नृत्त (फकत शारीरिक हालचालींनी भरिल्ले तालबध्द आंगाचे मोड) आनी नृत्य (अभिनयान भरिल्ले तालबध्द आंगाचे मोड) अशे दोन विभाग आसात. थाट, आमद, तुकडे, परमेलू, परन् आनी तत्कार हो नृत्ताचो भाग आनी गत, भजन, ठुमरी हो नृत्याचो भाग.

कथ्थक नृत्याक तबलो, पखवाज आनी सारंगी वा हार्मोनियम ह्या वाद्यांची साथ आसता. नर्तक पांयांतल्यान जे जे बोल काडटा, ते ते तबल्यार वा पखवाजार वादक काडत आसता. नर्तकाच्या आनी वादकांच्या बोलांचो तालमापदर्शक म्हूण सूरवाद्याचेर 'लहरा' (तालांच्या मात्रांइतली सूरमालिका) धरिल्लो आसता. तातूंत जाय ते ताल वापरतात. त्रिताल, सवारी, धमार, आडा चौताल, एकताल चौताल, झपताल, मत्तताल, रुपक आदी ताल चड प्रचलित आसात. कथ्थक नृत्यांतल्यो कांय म्हत्वाच्यो संज्ञा अश्यो:

**थाटः** कथ्थक नृत्याची सुरवात थाटान जाता. तातूंत संथ लयींत लयबध्द हालचाल करून नर्तक फुडल्या नृत्याक लागपी मानसिक तशेंच शारीरिक पूर्वतयारी करता.

**आमदः** हो फारसी शब्द आसून ताचो अर्थ 'प्रवेश' असो जाता. संथ लयींत नाचपाक येतलें अशे तरेन पखवाजाचे आनी नृत्ताचे बोल एकठांय करून आमदची रचणूक केल्ली आसता.

**तुकडाः** थैई, दिग्दिग्, तत् आदी शुध्द नृत्ताचे बोल वापरुन तुकड्यांची रचना केल्ली आसता. तुकडा म्हळ्यार ल्हान बोल.

**परमेलूः** पखवाज, नगारा, झांज आदी तरेकवार वाद्यांचे आवाज आनी नृत्ताचे बोल हांचे भरसणेन परमेलूची रचणूक केल्ली आसता.

**परन्ः** फकत पखवाजाचे बोल परनात वापरतात. वाडटे लयींत केल्ल्यो ह्यो रचना जोशपूर्ण आनी कठीण आसतात.

**कवित्तः** देव-देवतांच्या स्तुतिवर्णनांत युक्त अशा नटवरी बोलावांगडा व्रजभाशेंत रचिल्ली छंदयुक्त रचना.

**चक्करः** ही ह्या नाचांतली एक खाशेली कृती आसा. वांटकुळें फिरून परतें पयलेच स्थितींत येवप हे कृत्तीक चक्कर वा भ्रमर अशें म्हण्टात.

**पढन्तः** तुकडे, परन्, परमेलू हे प्रकार प्रत्यक्ष नाचच्या पयलीं तांचे बोल हातार ताल दिवन सशब्द (भरी) वा हवेंत हात उडोवन निःशब्द (खाली) क्रिया करून म्हणून दाखयता.

**गतः** हो नृत्यविभागांतलो प्रकार. हाचे गतनिकास आनी गतभाव अशे दोन प्रकार आसात. गत म्हळ्यार गती आनी निकास म्हळ्यार तिचें नीट विवरण. गतनिकास म्हळ्यार चालीचें विवरण. गतनिकासांत वेगवेगळ्या लालित्यपूर्ण चालींचो समावेश आसता. ह्यो चाली म्हळ्यार गती. हंसीगती, गजगामिनी गती, मयूरीगती, मृगीगती आदी पयलीं करतालीं. गतभावांत एखाद्री ल्हानशी कथा वा नाट्यपूर्ण प्रसंग मुखामळावेल्या भावतरंगांतल्यान आनी शरीराच्या सूचक हालचालींतल्यान व्यक्त करता. होरी, कालियामर्दन आदी ल्हान-व्हड कथाप्रसंग गतींतल्यान उक्ते जातात. तेखातीर शब्दांचो आनी गीत रचनेचो आदार घेनात.

**ततकारः** कथथक नृत्याचो शेवट तत्कार ह्या नृत्तप्रकारान करतात. लयीकडेन खेळत खेळत लयीचे सुंदर पूण कठीण बंध पदन्यासांनी आनी घुंगरांच्या आवाजान प्रदर्शित करतात. संथ लयीपसून द्रुत लयीमेरेन सगळ्या लयींत तत्कार करतात.

**वेशभूषाः** कथ्थक नृत्य करपी दादले आनी बायलांची वेशभूषा सादारणपणान दोन प्रकारची आसता. कांय नर्तकी लांब घोळाचो घागरो, पोलको आनी ओडणी असो भेस करतात, तर कांय जाण चुडीदार, पांयजमा आनी ओडणी असो भेस करतात. कांकणां, कानांतलीं, हार, तिळो आदीं सगळ्यो वस्ती आवडीप्रमाण वापरतात. दादले पितांबर आनी उपरणे असो एक भेस वा चुडीदार, पांयजमो आनी शेलो असो दुसरो भेस करतात.

कथ्थक शैलींत सांकेतिक मुद्राभिनय चडसो नासता. कथ्थकांतले भावदर्शन पुरायपणान व्यक्तिगत आसता. ह्या वैयक्तिक स्वातंत्र्याखातीर कथ्थक नृत्यकाराक मर्यादेन रावपाची गरज उरना. नव्यो नव्यो कल्पना हाडपाची संद कलाकाराक सदांच मेळत रावता. पूण धर्म, अवस्था, वय हांचेप्रमाण नायिका भेदांचो अभिनय करतना नाचांतले आंगाचे मोड आनी सात्विक अनुभाव अलंकारशास्त्राप्रमाणच करपाचे आसतात. कथ्थक नृत्यप्रकारांत आयजमेरेन अच्छनमहाराज, शंभूमहाराज, सुंदरप्रसाद, जयलाल, गोपालजी, भुरेंखाँ, जयकुमारी आदी नामनेच्यो नर्तक-नर्तकी जावन गेल्यात. सद्याच्या नामनेच्या नर्तक-नर्तकींक लच्छूमहाराज, बिरजूमहाराज, कृष्णकुमार, गोपीकृष्ण, रोशनकुमारी, सितारादेवी, दमयंती जोशी हांचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**कनौजः** उत्तर प्रदेश राज्यांतल्या फरूखाबाद जिल्ह्यांतलें एक शार. हें शार कानपूर शाराचे उत्तरेक ८१ किमी. अंतराचेर आसून उत्तर रेल्वेचें स्थानक आसा.

वाल्मिकी रामायणांतले आख्यायिकेप्रमाण ह्या शाराची थापणूक रामाचो पूत कुश हाच्या कुशनाभ नांवाच्या पुतान केली आनी त्या शाराक ताणें 'महोदय' अशें नांव दिलें. फुडें कुशनाभाच्या शंबर धुवांनी वायुदेवाची मागणी न्हयकारिल्ल्यान तांकां कुबडेपण आयलें. ताचेवेल्यान ह्या शाराक 'कान्यकुब्ज' हें नांव पडलें. कान्यकुब्ज हें 'कनौज' ह्या शब्दाचें मूळ संस्कृत रुप. देखूनच ह्या शाराक कनौज हें नांव पडलां आसूंये. ह्या शाराक कुशस्थल, गाधिपूर, कुशिक, कुसुमपूर अशीं नांवां पूर्विल्ल्या साहित्यांत मेळटात.

कनौज शाराचो आर्विल्लो इतिहास मौखरी ह्या राजासावन सुरू जाता. गुप्त साम्राज्याच्या शेवटाक हरिवर्मा ह्या मौखरी राजान नव्या राज्याची थापणूक केली आनी कनौज शाराक आपली राजधानी केली. हरिवर्मा उपरांत ताचो पूत आदित्यवर्मा आनी नातू ईश्वरवर्मा हांणी त्या शाराचेर कांय काळ राज्य चलयलें. ईश्वरवर्मा उपरांत ताचो पूत ईशानवर्मा हाणें कनौज शाराचेर राज्य केलें. इ.स. ६०६ मेरेन मौखरी राजांनी कनौज शाराचेर राज्य चलयलें. उपरांत कनौज शाराचेर हर्षवर्धनाची सत्ता येतकच कनौज शार एका व्हड साम्राज्याची राजधानी जाली. ६४७ त हर्षवर्धनाक मरण आयल्या उपरांत ह्या शाराक तितलेंशें म्हत्व उरलें ना.

फुडें आठव्या शेंकड्याचे सुर्वेक यशोवर्मा ह्या राजान कनौजाचेर आपली सत्ता स्थापन केली. ताचे उपरांत वृत्रायुध, इंद्रायुध आनी चक्रायुध ह्या राजांनी सुमार ७७० ते ८१६ वर्सां मेरेन कनौजाचेर आपलें राज्य केलें. ह्या काळा उपरांत कनौजाचेर खूब आक्रमणां जालीं. राजस्थान आनी माळवा हांचेर राज्य करपी राजा नागभट हाणें चक्रयुधाक हरोवन कनौज राज्याचेर जैत मेळयलें. ताचो नातू मिहिरभोज हो व्हड पराक्रमी राजा आशिल्लो. ताच्या साम्राज्याचो विस्तार अस्तंतेक सौराष्ट्राकडसून उदेंतेक बंगालमेरेन आनी उत्तरेक पंजाबसावन दक्षिणेक नर्मदेमेरेन आशिल्लो. ताच्या साम्राज्याची राजधानी कनौज आशिल्ली.

धाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक कनौजाचेर राज्यपाल नांवाचो राजा राज्य करतालो. ह्याच काळांत गझनीचो महंमद कनौजाचेर चाल करून आयलो. ताणें कनौजाचेर जैत जोडलें आनी सगळें शार लुटून व्हेलें. फुडें कनौजाचेर चंद्रदेव गाहडवालाची सत्ता आयली. ताणें कनौज ही आपली राजधानी केली आनी कनौज शाराची बरीच उदरगत केली. ताचे उपरांत मदनपाल, गोविंदचंद्र, विजयचंद्र आदी राजांनी कनौजाचेर राज्य केलें. ११९३ वर्सा महंमद घोरीन जयचंद्राक मारून कनौज शार आपल्या शेकातळा घेतलें. ह्या काळांत हांगाच्या लोकांक खूब त्रास सोंसचे पडले. उपरांत शेरशहा आनी हुमायूं हांणी कांय काळ कनौजाचेर आपली सत्ता चलयली. फुडें अकबराच्या काळांत कनौजशाराचो आस्पाव मोगल साम्राज्यांत जालो. ब्रिटिशांचे राजवटींत १८५७ वर्सा जाल्लो स्वतंत्रताय संग्राम हांगासावनूच सुरू जाल्लो.

भारताच्या सांस्कृतिक इतिहासांत कनौज शाराक बरेंच खाशेलेपण आसा. भागिरथी न्हंयचे देगेर आशिल्ल्यान ह्या शाराचें म्हत्व वाडलां. गुप्त आनी हर्ष हांच्या काळांत कनौज हें बौध्द संस्कृतीचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. हर्षाच्या काळांत हांगा १० हजार भिक्षूक रावताले. हिंदूंची हांगा २०० देवळां आशिल्लीं. विद्या आनी कला ह्या दोन गुणांचें तर कनौज शार कुळारच आसलें. भवभूति आनी वाक्पतिराज हे दोन कवी यशोवर्माच्या काळांत कनौज शारांत जावन गेले.

कनौज शारांत पूर्विल्ल्या वाठारांत भूवराह, कल्याणसुंदर, शिवमुखलिंग, नृत्यगणेश आनी विश्वरुप विष्णू आदी सातव्या आनी आठव्या शेंकड्यांतलीं सुंदर शिल्पां मेळ्ळ्यांत. तेचपरी जौनपुराच्या सुलतानान हिंदू देवळांच्या फांतरांनी बांदिल्ली जामामशीद, जैनस्तंभ आशिल्ली मशीद, सीताकी रसोई आदी वास्तू पळोवपासारक्यो आसात. आदल्या काळांत गंगा न्हंय कनौजशारा लागसल्ल्यान व्हांवताली. आतां गंगेचें पात्र शारापसून बरेंच पयस आसा. त्या आदल्या पात्राचे देगेर आतां मोडक्या इमारतींचे अवशेश दिसतात.

अत्तर, गुलाबपाणी, आदी वासांच्या पदार्थांखातीर आनी गुलकंदा खातीर कनौज शाराक बरीच नामना मेळ्ळ्या.

- कों. वि. सं. मं.

**कन्नड भास:** कन्नड भास मुखेलपणान कर्नाटक राज्यांतले लोक उलयतात. ह्या राज्याचे उदेंतेंक तेलुगु, उत्तरेक मराठी, अस्तंतेक कोंकणी, तुळू आनी मल्याळम आनी दक्षिणेक तमीळ ह्यो भाशा उलयतात.

१९८१ चे जनगणनेप्रमाण कन्नड भास उलोवप्यांची संख्या विंगडविंगड भागांत फुडलेतरेन आसा.

| | |
|---|---|
| भारतांत कन्नड भास उलोवप्यांची वट्ट आंकडो | २,६८,८७,८३७ |
| कर्नाटकांत कन्नड भास उलोवप्यांचो आंकडो | २,४१,९९,५७६ |
| महाराष्ट्रांत कन्नड भास उलोवप्यांचो आंकडो | ९,२०,१०८ |
| तमीळनाडूंत कन्नड भास उलोवप्यांचो आंकडो | ११,४९,८९३ |
| गोंयांत कन्नड भास उलोवप्यांचो आंकडो | ३३,५१२ |

आंकड्यांचे नदरेन पळयल्यार भारतीय भासांमदीं कन्नड भाशेचो क्रमांक आठवो तर द्राविड भासांमदीं तिसरो क्रमांक लागता.

कन्नड भास द्राविड भाशावर्गांत मोडटा. दोन हजार वर्सां आदींसावन ही वेव्हाराची भास म्हूण प्रचलित आसा. महाभारत आनी पाणिनीच्या व्याकरणग्रंथांत 'कर्नाट' आनी 'कुंवल' हीं देशवाचक उतरां मेळटात. इसवी सनाच्या आरंभाक ग्रीक भूगोलशास्त्री टॉलेमी हाणें बादामी, हंपी, कलकेरी, मुदगल ह्या नांवांकडेन जुळपी गांवांची नांवां सांगल्यांत. हातूंतलीं कांय नांवां शुध्द कन्नड आसात. इ.स. २०० वर्सां जावन गेल्या हालराजाच्या 'गाथासप्तशती' ह्या प्राकृत ग्रंथात जाग्याजाग्यार कन्नड उतरां मेळटात.

कन्नड साहित्याचो इतिहास (लेखकः रं. श्री. मुगळि) ह्या पुस्तकांत 'कर्णाट' हें उतर 'करनाडु' वा 'कर्नाड' (व्हड आनी उंचवट्याचो देश) ह्या कन्नड उतराचें कन्नड रुप अशें म्हळां.

'कर्नाड' हें उतर फुडें कन्नड ह्या रुपान देश आनी भाशा सुचोवपी उतर जावन रावलें.

द्रविड भासांमजगतीं कन्नड भाशेंत सगळ्यांत पोरनी लिखीत परंपरा आसा. इ. स. ४५० च्या सुमाराक संस्कृत भाशेवांगडा कन्नड भाशेचो वापर जाल्लो दिसता. णव्या शतमानांत हे भाशेंत साहित्यनिर्मणी जावपाक लागली. 'कविराजमार्ग' हो कन्नड साहित्यांतलो पयलो ग्रंथ जावन आसा.

'हळेगन्नड' आनी 'होसगन्नड' ह्यो कन्नड भाशेच्यो दोन अवस्था सादारणपणान नदरेक येतात. णव्या शतमानासावन सुमार बाराव्या शतमानामेरेन 'हळेगन्नड' प्रचारांत आसलें. उपरांत इकराव्या शतमानांत ल्हानसो उगम पावन बाराव्या शतमानांत व्हड प्रवाह जावन 'होसगन्नड' मुखार सरलें. ११, १२, १३ आनी १४ व्या शतमानांत 'हळेगन्नड' कांय ग्रंथांत रुढ जाल्या. १५ व्या शतमानांत ताची व्याप्ती उणी जायत गेली. १७ व्या आनी १८ व्या शतमानांत ताचें पुनरुज्जीवन जाल्लें दिसून देता. १९ व्या आनी २० व्या शतमानांत मात 'होसगन्नडाक' चड म्हत्व मेळ्ळें. कन्नड भाशेच्या इतिहासांत 'हळेगन्नड' आनी 'होसगन्नड' असो कालविभाग करप बरोबर न्हय अशें रं. श्री. मुगळी म्हण्टा. 'हळगन्नड' आनी 'होसगन्नड' हे वेगळे थारावपी लक्षणां अशीं:

| हळगन्नड | होसगन्नड |
|---|---|
| विजातीय संयुक्तांक्षरां (इदं) | सजातीय संयुक्तांक्षरां (इद्दनु) |
| सबिंदुंक शब्द (कूंदलु) | अबिंदुंक शब्द (कूदलु) |
| 'प' कार प्रयोग 'प' (पालु) | काराजाग्यार 'ह' काराचो उपेग (हालु) |

नाम पदांक आख्यात प्रत्यय जोडून क्रियापदाचो एके तरेचो अर्थ काडप हें हळेगन्नाचें खाशेलेपण जावन आसा. 'केशवन्' ह्या नामपदाक 'एन्' हें उत्तम पुरुष एकवचन प्रत्यय जोडल्यार 'केशवनेन' म्हळ्यार 'उणे केशवनाचो हाचो आसा' असो अर्थ जाता. पिरियेक म्हळ्यार 'आमी जाणटे व्हड आसात' असो अर्थ जाता.

'हळगन्नड' आनी 'होसगन्नड' पयलीं 'नडुगन्नड' अशी अवस्था आसली अशें कांय लोकांचें म्हणणें आसा. वयल्यो दोनूय अवस्था मानल्यार कन्नड भाशेच्यो वट्ट चार अवस्था मानच्यो पडटात.

सद्या कन्नड कोश लेखनाक तयार जायतसावन हेर भासांतलीं उतरां कन्नड भाशेंत आयल्यांत. संस्कृत- प्राकृतांतलीं उतरां तातूंत चडांतचड प्रमाणांत आस्पावल्यांत. मराठी, अरबी, फारसी, उर्दू, इंग्लीश, तेलुगु, तमीळ ह्या भाशांतल्यान ती पूर्णत्वाक पावल्या.

सन १९६१ वर्साचे जनगणनेप्रमाण कन्नड भाशेंत बत्तीस बोलींची नोंद आसा. तातूंत 'बडगा' ही म्हत्वाची आसून हेर बोलींची नांवा अशीं अडविचंची, बडगा, विजापुरी, गोलारिकन्नड, हरण शिकारी, होलिया, कन्नड, कारंदी, कर्नाटक, कुरुंब, उरळी, आटविका, चट्टिभाषा- कन्नड, हालियान, कडुभाषा, कट्टुनाइकन, कोनावर कुरुव-कन्नडम्, लिंगायती, मदारी-कन्नड, मंगलोरी, मोची, मोंतादेचेट्टी, म्हैसूर, पल्लवकल, बुडुबुडिके, कोराचा, कोराम-कन्नड, नागरी-कन्नड, नाइकी-कुरुंब, सोळग-कन्नड आनी वाणी.

**व्याकरणः (नाम)**: नामांत तीन लिंगां आनी दोन वचनां आस्पवतात. स्त्रीलिंग स्त्रीव्यक्तीवाचक, पुल्लिंग पुरुषव्यक्तीवाचक आनी नपुंसकलिंग हेरवाचक आसता. अनेकवचन प्रत्यय लावन हाडटा. नाम आनी सर्वनामाक प्रत्यय लागतकच ताच्या मूळ स्वरुपांत विकार जावन सामान्य रुप घडटा.

**अनेकवचनाचे प्रत्ययः** अन्दरू (पुरुष आनी स्त्री वाचक नात्याची संज्ञा) अरु (हेर स्त्री पुरुषवाचक नाम) हे प्रत्यय आसात. नपुंसकलिंगाक- गळु हो प्रत्यय लागता. पूण तो वैकल्पिक आसता.

देखीकः अण्ण (व्हड भाव) - अण्णन्दिरु

अक्क (व्हड भयण) - अक्कन्दिरु

हुडुग (चलो) - चुडुगरु

सोसे (सून) - सोसेरु

**सर्वनामः** सर्वनामां फुडलेतरेन आसतात.

| | एकवचन | अनेकवचन |
|---|---|---|
| प्रमथ पुरुष | नानु | नावु |
| द्वितीय पुरुष | नीनु | नीवु, तावु (तुमी) |
| तृतीय | अवनु | अवरु |
| स्त्री | अवळु | अवरु |
| नपुंसकलिंग | अदु (तें) | अवु |
| | इदु (हें) | इवु |
| प्रश्नार्थक | यावनु (कोण?) | यारु |

**विशेषणः** विशेषणां केन्नाच बदलनांत म्हळ्यार लिंग वचन, विभक्ती हांचें प्रमाण तांचीं रुपां बदलना, कांय खास परिस्थितींत तांकां सर्वनामवाचक प्रत्यय लागतात.

**क्रियाविशेषणः** क्रियाविशेषणांवरी दिसपी जायतीं उतरां जायतेफावट नामासावन घडटात. पूण कांय स्वःतसिध्दय आसात.

**क्रियापदः** क्रियापदाचें मूळ, फकत धातू वा प्रत्यय सिध्द धातू अशें आसता. वर्तमानकाळाचो प्रत्यय त्/अत्/उत् वा भूतकाळाचो द्/त्/इ/इंद वा शून्य आसा. तृतीयपुरुष सोडल्यार क्रियापदांत लिंगभेद व्यक्त जायनात.

आज्ञार्थाचें एकवचनी रुप म्हळ्यार धातूचें मूळ रूप. अनेकवचनांत ताका 'इरि' हो प्रत्यय लागता.

| | | |
|---|---|---|
| एकवचन | होगु 'वच' | माडू 'कर' |
| अनेकवचन | होगिरि | माडिरि |

वर्तमानकाळाचीं रुपां अशींः

| | एकवचन | अनेकवचन |
|---|---|---|
| प्रथम पुरुष | नानु होगुत्तेने | नावु होगुत्तेवे |
| द्वितीय पुरुष | नीनु होगुत्ती | नीवु होगुत्तीरि |
| तृतीय पुरुष (पुल्लिंगी) | अवनु होगुत्ताने | अवरु होगुत्तारे |
| तृतीय पुरुष (स्त्रीलिंगी) | अवळु-आके होगुत्ताळे | अवरु होगुत्तारे |
| तृतीय पुरुष (नपुंसक लिंगी) | अदु होगुत्तदे | अवु होगुत्तवे |

वर्तमानकाळाचें नकारार्थी रूप धातुक 'अदु' हो प्रत्यय आनी निमाणें इल्ल हें नकारार्थी जोडून जाताः होगु ताचे होगु+अदु=होगुवदु, होगुवदु+इल्ल=होगुवदिल्ल (वचना) हें रुप जाता. तीं सगलीं पुरुषांत, लिंगांत आनी वचनांत तशींच उरतात.

भविश्यकाळाचीं रुपां स्वतंत्र आसलीं तरीय जायते फावट तातूंत तेखातीर 'वर्तमानकाळाचीं' रुपांय वापरतात. सकर्मक भूतकाळांत कर्मणि प्रयोग ना.

कन्नड भाशेंतलीं कांय वाक्यांः

निन्न हेसरु एनु? (तुजें नांव कितें?)

पेटेयिंद अक्कियन्नु तंदेनु. (बाजारांतल्यान तांदूळ हाडले?)

अवनु पेटेयिंद काइ पल्ले तरुवनु (तो बाजारांतल्यान भाजी हाडटलो.)

ओब्ब राज इद्दनु (एक आसलो राजा)

अवनिगे इब्बरु राणीयरिदरु (ताका दोन राणयो आसल्यो)




कन्नड वर्ण

- कों. वि. सं. मं.

## कन्नड साहित्यः

**कन्नड साहित्यः** द्राविड भाशावर्गांतली 'कन्नड' ही एक म्हत्वाची भास जावन आसा. कन्नड साहित्याचो इतिहास (रं. श्री. मुगळि) ह्या पुस्तकांत 'करनाडु' वा 'कर्नाड' (व्हड उंचवट्याचो देश) ह्या कन्नड उतरांचें 'कर्णाट' हें संस्कृत रुप आसूंये अशें म्हळां. 'कर्नाड' हें उतर मुखार 'कन्नड' ह्या उतरांत बदल्लें आनी भाशा आनी देश सुचोवपी उतर जालें. कर्नाटकांत आयिल्ल्या अस्तंती लोकांनी ह्या उतरांचो उच्चार 'क्यानरीज' असो केलो.

कन्नड भास दोन हजार वर्सां पयलीं सावन वेव्हाराची भास म्हूण समाजाभितर घोळटा. महाभारत आनी पाणिनीच्या व्याकरणग्रंथांत 'कर्णाट' आनी 'कुंतुल' ही देशवाचक उतरां मेळटात. इ.स. आरंभाक ग्रीक भुगोलशास्त्री टॉलेमीन बादामि, हंडी, कलकेरि, मुदगल ह्या नांवांकडेन जुळपी गांवांचीं नांवां सांगल्यांत. हातूंतलीं कांय नांवां शुध्द कन्नड आसात. इ.स. २०० वर्सां जावन गेल्ल्या हालराजाच्या 'गाथासप्तशती' ह्या प्राकृत ग्रंथांत जाग्या-जाग्यार कन्नड उतरां मेळटात.

कन्नड साहित्याक देड हजार वर्सांची व्हड परंपरा आसा, कन्नड साहित्य काळखंडाचे सादारणपणान ५ वांटे जातात.

१. पंपपूर्वकाळ- (आरंभासावन इ.स- ९४० मेरेन) २ पंपकाळ (९४०-११५० इ.स.) ३. बसवकाळ (११५०-१४००) ४. कुमार व्यासकाळ (१४०० ते १९००) ५. आर्विल्लो काळखंड (१९००- उपरांत)

**पंपपूर्वकाळः** इ.स.च्या ३ ऱ्या शतमानासावनचे जे शिलालेख कर्नाटकांत मेळ्ळयात ते संस्कृत आनी प्राकृतांत बरयल्ले आसात. इ.स. ४५० त मेळिल्लो 'हल्मिडी शासन' हो शिलालेख पयल्या कन्नड

लेखनाची कुरू अशें मानतात. सातव्या शतमानांत साहित्यिक लक्षणां आशिल्ले जायते शिलालेख मेळ्ळयात. इ.स. ७०० तलो, कपे अरभट्टाच्या सभावाचें चित्रण करपी बादामीचो शिलालेख साहित्यिक संस्कारानी नटिल्लो आसा. णव्या शतमानांत रचिल्लो 'कविराजमार्ग' हो ग्रंथ उपलब्ध कन्नड ग्रंथांतलो सगळ्यांत प्राचीन ग्रंथ मानतात. ह्या ग्रंथाचो कर्तो श्री विजय आसुंये अशें कांय विद्वान मानतात. दंडीच्या 'काव्यादर्श' ह्या काव्य शास्त्रग्रंथाचो हो अणकार आसलो तरी भारतीय आनी कन्नड अंशांचो समन्वय सादपाखातीर लागपी प्रज्ञा हातूंत दिसून येता. 'वडडारधना' हो आद्य कन्नड गद्य ग्रंथ आसून तातूंत धर्मीक हेतान बरयिल्ल्यो जैन महापुरुशाच्यो एकोणीस कथा आयल्यात. ह्या ग्रंथाचो कर्तो शिवकोट्याचार्य हो जावन आसा. कन्नड गद्य-साहित्यंतलो हो अप्रुप असो ग्रंथ जावन आसा. दुर्विनीत (सुमार ६००) हाणें भारवीच्या किरातार्जुनीयामदल्या पंदराव्या सर्गाचें 'भाश्य', गुणाढ्याच्या पैशाची भाशेंतली 'बृहत्कथेचो' संस्कृतांतलो अणकार आनी शब्दावतार हो व्याकरणग्रंथ रचलो पूण हातूंतलो एकय ग्रंथ उपलब्ध ना. तुंबलूराचार्य (सुमार ६५०) ह्या जैन धर्मीय कवीन जैनतत्त्वांचे प्रतिपादन करपी 'चूडामणि' नांवाचो ९६,००० श्लोक संख्येचो ग्रंथ बरयलो. श्यामकुंदाचार्य (सुमार ६५०) हाणें जैनतत्त्वाचेर 'प्राभृत' हो शास्त्रग्रंथ बरयलो. सैगोट्टे शिवपूर (सुमार ८००) ह्या गंगराजान गजशास्त्राचेर 'गजाष्टक' नांवाचें आठ भागांचें काव्य रचलें. आसर्ग (इ.स. सुमार ९००), गुणनंदी (इ.स. सुमार ९००) पयलो गुणवर्म (९०७-९२०) ह्या साहित्यिकांचो हेर कडेन उल्लेख येता, पूण तांचें साहित्य मेळना. विमळोदय नागार्जुन, जयबंधु ह्या साहित्यिकांसंबंदीची म्हायतीय मेळना. 'गुणगांकीयम्' नांवाचो एक कन्नड धंदोग्रंथय ह्या काळांत जावन गेल्याची म्हायती तमिळ धंदोग्रंथांत मेळटा.

सादारणपणान कन्नड साहित्याचो हो वैभवाचो काळखंड आशिल्लो अशें मानतात.

**पंपकाळ (९४०-११५०)**: इकराव्या शतमानासावन कर्नाटकांतले राजकी आनी समाजीक जीणेंत नव्या युगांचो आरंभ जालो. धर्मीक जैन, शैव आनी वैष्णव हे धर्म आनी पंथ आपल्या मताचो प्रसार आनी आत्मसंरक्षणाखातीर वावुरताले. अशा संघर्शाच्या काळांत ह्या काळांतलें साहित्य रचलें. पंपकाळांतले चडशे कवी जैन आसले. तांच्या काव्यांत लौकिक आनी आगमिक अशें दोन प्रकार दिसतात. लौकिक काव्यांत आलाशिरो दिवपी राजाचें चरित्र आनी त्या काळावयली राजकी आनी समाजीक जीण दिसता, तर आगमीक काव्यांत तीर्थंकरांची, महापुरुशांची आनी सम्राटांची चरित्रां आयल्यांत. ह्या काळांतलीं सगळीं महाकाव्यां 'चंपू' प्रकारांतलीं आसात. तेभायर 'कंद', 'गळे', 'अक्कर', 'त्रिपदी' आनी हेर जानपद वृत्तछंदाचीय तातूंत भरसण जाल्या.

पंप हो धाव्या शतमानांत जावन गेल्लो म्हान कवी आसलो. कन्नडाचो आदिकवी अशी पदवी ताका मेळ्ळ्या. आदिपुराण आनी विक्रमार्जुन-विजयम् वा पंपभारत हे ताचे दोन काव्यग्रंथ. ताची प्रतिभा, कल्पना वैभव, उतरांचो सुमेळ, नादमाधुर्य, भाशेंतली गोडसाण ह्या विंगडविंगड कारणांक लागून कन्नडसाहित्यांत मानाची सुवात जोडून बसल्यात. ताच्या ह्या काव्यांक लागून ताची एक व्हड परंपरा उपरांतच्या कन्नड काव्यांत तयार जाली. पोन्न (९५० इ.स.) आनी नन्न (९९० इ.स.) हेय ह्या काळांतले म्हान कवी आसले. पोन्नाचेर कालिदासाचो प्रभाव पडिल्लो. ताणें 'शांतिपुराण' हें शांतिनाथ तीर्थंकराचें पुराण आनी सद्या सांपडनाशिल्ले 'भुवनैकरामाभ्युदय' ही दोन महाकाव्यां आनी 'जिनाक्षरमाले' ही जिन स्तुती रचली. नन्नान पांच काव्यां रचलीं, तातूंतलीं 'साहसीविजय' आनी 'अजित पुराण' हीं दोन काव्यां मेळटात. ह्या काव्याचेर पंपाचो प्रभाव आसलो तरी स्वताच्या प्रभाव आनी स्वतंत्र्य व्यक्तिमत्त्वावरवीं ताणें कन्नड साहित्य परजळून उडयलां.

ह्या काळांतल्या हेर कवींमदीं चावुंडराय (९७५) हो गद्यकार म्हूण नांवाजल्लो. ताणें 'त्रिषष्टि लक्षण महापुराण' वा 'चावुंडराय' पुराण नांवाचो ग्रंथ बरयलो. पयलो नागवर्मन् (९९०) हाणें 'छंदोंबुधी' आनी 'कर्नाटक कादंबरि' हे दोन ग्रंथ बरयले अशें मानतात. दंडनायक (१०३०) हाणें 'पंचतंत्र' कन्नडांत हाडलें. चंद्रराजान कामशास्त्राचेर 'मदनतिलक' नांवाचो ग्रंथ रचलो आनी श्रीधराचार्यान ज्योतिशशास्त्राचेर 'जातकतिलक' नांवाचो ग्रंथ रचलो. नागचंद्र (११००) हो अभिनवपंप म्हूण गाजलो. मल्लिनाथ-पुराण आनी रामचंद्रचरित-पुराण ह्यो ताच्यो दोन चंपूरचना जावन आसात. सोप्या आनी रसाळ भाशेंत कन्नड काव्य रचप्यांमदीं नयसेन (१११२) हाचो जागो सगळ्यांत वयर आसा. ताणें 'धर्मामृत' नांवाचें काव्य बरयलें. ब्रह्मशिव (११५०) हाणें 'समय परिक्षे' हो तात्त्विक ग्रंथ पद्यांत रचलो. तेभायर ताणें 'त्रैलोक्य चूडामणि' हें स्तोत्र रचलें. दुसरो नागवर्मन् (११४५), उदयादित्य (११५०), दुसरो चावुंडराय (१०२५), जगद्दळ सोमनाथ (११५०), चंद्रराज (१०४०), राजादित्य (११२०) ह्या कवींनीय कन्नड साहित्यांत मोलाची भर घाल्या. दुसऱ्या चावुंडरायाचो 'लोकोपकार' हो ग्रंथ, एका अर्थान विश्वकोश आसून तातूंत पंचांगफलवर्णन, पाकशास्त्र, वास्तुप्रकरण, विषवैद्यक, वृक्षायुर्वेद, नरादिवैद्यक प्रकरण आनी हेर विशय आस्पावल्यात.

**बसवकाळ (११५०-१४००)**: बसवकाळाक क्रांतिकाळ वा स्वतंत्रतायेकाळ म्हण्टात. ह्या काळांत राजकी अस्थिरतायेक लागून कनाटकांत उंचाबळाय उप्रासली. कल्याणच्या चालुक्य वंशाचो नाश, कलचूरी वंशाचो अस्त, दक्षिणेचे होयसळ आनी उत्तरेचे यादव हांचेभितल्लीं झुजां, तेराव्या शतमानासावन मुसलमानांनी घाल्ल्यो घुरयो हाका लागून ह्या राज्यांतलो भौस प्रभावित जालो. चौदाव्या शतामानाचे सुर्वेक विद्यारण्याचे प्रेरणेन विजयनगरच्या साम्राज्याची थापणूक जाली जेवरवीं हेर गजालीवांगडाच साहित्यकलेचीय उदरगत जाली.

बसवकाळांत वेगवेगळ्यो साहित्य-परंपरा आनी प्रवाह भितर सरले. 'भक्ति' हो काव्यांचो मुखेल विशय आसलो. तशेंच 'रगळे' 'षट्पदि' आनी 'वचन' हे कन्नड काव्याचे मुखेल छंद आसले. कन्नड भाशा-साहित्याचे नदरेंतल्यान ह्या काळांत घडिल्ले दोन म्हत्वाचे बदल फुडलेतरेन आसात. १. व्याकरणाचे नेम सोंपे जाले. २. पोरने कन्नड भाशेची सुवात नवे कन्नड भाशेन घेतली.

कन्नड काव्याच्या मळार वचनकारकवी, क्रांतिकवी आनी मार्गकवी अशें कवींचे तीन वर्ग वयर सरले.

**वचनकारकवी**: साद्या, सोप्या आनी सुटसुटीत शैलींत, नीत शिकोवपी जीं कवनां रचपाक आयलीं, तांकां वचनां अशें म्हण्टात. शिवशरणांचीं वचनां (वीरशैव संतांचीं) ही बसवकाळांतली म्हत्वाची घडणूक आसली तरी समाजांतल्यान सगळ्या थरांतल्या जाती-जमातींनी ह्या काळांतलें वचन साहित्य गिरेस्त केलें. वचनाकार आपल्या वचनाच्या निमणे आपले इश्टदेवतेचें नांव मुद्रिका म्हूण वापरताले. हें एक वचनाचें खाशेलेपण जावन आसा.

अल्लमप्रभु (इ.स. सुमार ११५०), बसवेश्वर (इ.स. ११३१- ११६७), अक्कमहादेवि (इ.स. सुमार ११६०), चेन्नबसवण्ण (इ.स. सुमार ११६०) सिध्दरामय्य (इ.स. सुमार ११६०), आंडय्य हे व्हड रचनाकार आसले. अल्लमप्रभूच्या वचनांत ज्ञानसिध्द, संप्रदायातीत, स्वैर आनी ताच्या व्हड व्यक्तिमत्त्वाचें पडबिंब पडिल्लें दिसता. भक्ती हो बसवेश्वराच्या काव्य-वचनांचो मुखेल विशय आसा. ताच्या वचनांत समाजाच्या दोशांचेर, कमीपणाचेर खर दुशण दिल्लें पळोवंक मेळटा. ताणें नवे समाज वेवस्थेविशींच्या सुत्रांचेर आपलें मत वचनांत परगटायलां. अक्कमहादेवीच्या वचनांत आपल्या संवसारीक जीणेंतल्यो देखी आनी नामनेच्यो म्हणी चड वापरल्यात. अध्यात्म आनी शृंगार हांचो एकवट सादून तो वचनगंधांत बांदपाचें कसबय तिणें दाखयलां. योगांगत्रिविधि नांवाचो एक तात्त्विक स्वरुपाचो ग्रंथ तिणें रचलो. चेन्नबसवण्णान करणहसुगे, मंत्रगोप्य, मिश्रगोप्य ह्यो रचना रचल्यो तर सिध्दरामय्यान मिश्रस्तोत्रत्रिविधि, बसवस्तोत्रत्रिविधि, अष्टावरणस्त्रोत्रत्रिविधि हीं काव्यां रचलीं.

**क्रांतीकवीः** कन्नड काव्यांत नवो प्रवाह निर्मूपाचें श्रेय हरिहराक (इ.स. सुमार ११६५) वता. हाणें रगळे छंदांत, **शेंकड्यांनी** काव्यां रचलीं. 'बसवराज देव रगळे' आनी 'नंबियण्णन रगळे' हीं दोन खंडकाव्यां, चंपूशैलींतलें काव्य 'गिरिजाकल्याण' आनी कांय शतककाव्यां ताचे साहित्य रचनेंत आस्पावतात. राघवांक (इ.स. सुमार १२२५) हाणें षट्पदी छंदात काव्यरचना केली. ताचे 'हरिश्चंद्र काव्य', 'वीरेश चरिते', 'सिध्दराम चरित्र', 'सोमनाथ चरिते' हे ग्रंथ सांपडटात. ह्या कालखंडांतल्या हेर कवींमदीं केरेय पद्मरस (इ.स. सुमार १२००), पाल्कुरिके सोमनाथ (इ.स. सुमार १२००), सोमराज (इ.स. सुमार १२२५), कुमार पद्मरस, भीमकवी (इ.स. सुमार १४००), पद्मणांक (इ.स. सुमार १४००) हांचो आस्पाव जाता. पाल्कुरिके सोमनाथ हाणें रगळेगळ्ळु, वचनगळ्ळु आनी शीलसंपादने ह्यो कन्नड रचना रचल्यो. ताच्या तेलुगु 'बसवपुराण' ग्रंथांचो अणकार भीमकवीन केलो.

**मार्गकवीः** ह्या वर्गांतल्या कवींनी पंपाची चंपूशैली आपणायली. नेमिचंद्र (सुमार १२००) हाच्या 'लीलावति' प्रबंधांत भारतीय परंपरेंतली मोगा-काणी आनी शृंगार आयला. 'नेमिनाथ पुराणांत' जैन पध्दतीच्या तीर्थंकरांचें चरित्र आयलां. अग्गळान 'चंद्रप्रभपुराण', आचण्णान 'वर्धमानपुराण', बंधुवर्म्यान 'हरिवंशाभ्युदय' हीं चंपूकाव्यां रचलीं. 'यशोधर चरिते' आनी 'अनंतनाथपुराण' ह्या दोन काव्यांक लागून जन्न हाका कन्नड साहित्यांत मानाची सुवात आसा. कमलभव हाणें शांतीनाथाचें चरित्र शांतेश्वरपुराणांत सांगलां. मल्लिकार्जुनान 'सूक्तिसुधार्णव' ह्या संकलनांत कन्नड साहित्यांतल्या सोबीत पद्यविशयाचें वर्गीकरण केलां. हे सगळे कवी जैन आसले.

रुद्रभट्ट (इ.स. सुमार १२००), देवकवि (इ.स. सुमार १२२५), चौंडरस (इ.स. सुमार १३००) हे ह्या कालखंडांतले नामनेचे ब्राह्मण कवी जावन आसात. रूद्रभट्टान भक्तींतल्यान गिन्यान जोडपाची नदर दवरली. ताणें सगळ्यांत पयलीं विष्णुपुराणांतल्या कृष्णकथांचेर 'जगन्नाथ विजय' हें चंपूकाव्य रचलें. देवकवीन 'कुसुमावळी' नांवाच्या चंपूकाव्यांत एक काल्पनिक कथा सांगल्या. दंडीच्या 'दशकुमार चरिताचो' चौंडरसान 'अभिनव दशकुमारचरिते' म्हूण अणकार केला.

बसवकाळांत कांय शास्त्रग्रंथांचीय रचना जाली. तातूंत कविकाम (इ.स. सुमार १२००) हाचो 'शृंगार रत्नाकर', केशिराज हाचो 'शब्दमणिदर्पण', माघणधंदी हाचो 'शास्त्रसांर समुच्चय', बाळचंद्र पंडिताचो 'द्रव्यसंग्रह', रट्टकवीचो 'रट्टमत', पयलो मंगराज हाचो 'खगेंद्रमणि दर्पण', अभिनवचंद्राचो 'अश्वशास्त्र', कविमल्लाचो 'मन्मथविजय' हांचो आस्पाव जाता.

**कुमार व्यास काळ** (१४०० ते १९००): राजकी नदरेन आनी साहित्याचे नदरेन कर्नाटकाच्या इतिहासांत हो पांचशीं वर्सांचो कालखंड म्हत्वाचो थारला. विजयनगर राजवटीच्या अस्ता उपरांत म्हैसूर राजाच्या काळांत तांच्या आसऱ्याखाला एक व्हड काळमेरेन कन्नड सहित्याची पोसवण बरे तरेन जाली. 'षटपदी' हें ह्या काळांतल्या छंदाचें मुखेल रुप जालें. भक्ती वांगडाच वीररसाक काव्यांत खाशेली सुवात मेळ्ळी. ह्या काळांतलें साहित्य ब्राह्मण साहित्य, दास साहित्य, म्हैसूर राजवटींतलें कन्नड साहित्य, जैन साहित्य, वीरशैव साहित्य, शास्त्र साहित्य, जानपद साहित्य, तशेंच 'यक्षगान' ह्या प्रकारांत मोडटा.

**ब्राह्मण साहित्यः** कुमारव्यास (इ.स. सुमार १४००) ह्या काळांतलो व्हड तपस्वी साहित्यिक. ताणें ८५०० भामिनी षट्पदीच्या रचनांवरवीं पयल्या धा पर्वांचें 'कन्नड भारत' वा 'गदुगिन भारत' रचलें. ताची भाशाशैली अप्रुप आसली. टिकाकारांनी लेगीत ताचो 'रूपकसम्राट' म्हणून भोवमान केलो. लक्ष्मीश हाचीं (इ.स. सुमार १५५०) कृष्णचरितामृत, गोपकवीले, चित्रभारत, नंदीमाहात्म्य हीं काव्यां, तशेंच नागरस हाचो (इ.स. १६५० सुमार) भगवद्गीतेचो अणकार, रंगनाथाचें (इ.स. सुमार १६७५) अनुभवामृत ह्यो ह्या काळांतल्यो म्हत्वाच्यो साहित्यकृती जावन आसात. तिरुमलभट्ट, सोमनाथकवी, नरहरि, वेंककवि, बब्बूरु रंग, कोनय्य, हेळवनकट्टेगिरियम्म, तिम्मामात्य, चिदानंदावधूत, वेंकामात्य ह्या साहित्यिकांनी हो काळखंड गाजयलो. मुद्दण (१९००) हो ह्या काळांतलो निमाणो कवी. 'अद्‌भुतरामायण', 'रामपट्टाभिषेक' आनी 'रामाश्वमेघ' ह्यो ताच्यो काव्यरचना आसात. ताका पोरन्या आनी नव्या साहित्याच्या संधीकाळाचो प्रतिनिधी मानतात.

**दास साहित्यः** दास साहित्याची बुन्याद बसवकाळांत पडली पूण ताची उदरगत कुमारव्यास काळांत जाली. द्वैत मताचो प्रसार करपाक हरिदास कवींनी आनी द्वैत मताच्या अनुयायांनी जें साहित्य रचलें ताका 'दास साहित्य' वा 'भक्ति वाङ्मय' म्हूण वळखतात. श्रीपादराय, व्यासतीर्थ, त्यागराज, वादिराज, राघवेंद्रतीर्थ, प्रसन्नवेंकटदास, विजयदास, जगन्नाथदास आनी हेर हरिदासांनी दास साहित्यांत मोलाची भर घाल्या. पुरंदारदास (१४८०-१५६४), कनकदास (१५०९-१६०७) हे ह्या काळखंडातले म्हत्वाचे हरिदास जावन आसात. पुरंदरदासान हजारांनी किर्तनां रचल्यांत. तातूंत नाममहिमा, गुरु माहात्म्य, कृष्णलीलावर्णन, समाज प्रबोधन आनी हेर विशयांचे निरुपण आयलां. कनकदासान हरिभक्तिसार, रामधान्यचरित्रे, नळचरित्रे, मोहनतरंगिणी आनी हेर काव्यां रचल्यांत.

**म्हैसूर राजवटींतलें कन्नड साहित्यः** सतराव्या शतमानासावन विसाव्या शतमानामेरेन ह्या कालखंडाचो काळ आसा. तिरुमलार्याचें 'वर्णवृत्तांत' हें काव्य, चामराज औडेयाचे 'चामराजोक्तिविलास' आनी 'मणिप्रकाश' हे दोन गद्यग्रंथ, गोविंदवैद्याचें 'कंठीखनरसराजविजय' हें चरित्रात्मक काव्य, ह्यो कांय म्हत्वाच्यो साहित्यकृती आसात. चिक्कदेवराजान चिक्कदेवराज बिन्नप, गीतगोपाल, भारत, भागवत, शेषधर्म हीं काव्यां रचलीं अशी म्हणणी आसा. ताच्या आलाशिन्याक तिरुमलार्य, सिंगरार्य, चिक्कुपाध्याय, शृंगारम्म, होन्नम्म, वेणुगोपालवर प्रसोद, तिम्मकवी, मल्लिकार्जुन कवी, चिदानंद कवी मल्लरस आनी हेर कवी आसले. हातूंतल्या सिंगरार्य हाणें हर्षाच्या 'रत्नावली' चो 'मित्रविंदा गोविंद' नांवान कन्नड भाशेंत अणकार करून पयलें कन्नड नाटक रचलें. मुम्मडी कृष्णराजाच्या काळांत जायत्या संस्कृत नाटकांचे कन्नडांत अणकार जाले. ताच्या आलाशिन्याक केंपुनारायण आनी अळिय लिंगराज आनी हेर साहित्यिक आसले. बसप्पशास्त्री हो म्हान नाटककार चामराजाच्या काळांत जावन गेलो.

**जैन साहित्यः** ह्या काळांतल्या जैन कवींनी परिस्थितीप्रमाण नव्या विशयाचेर बरोवन 'अच्चगन्नड' (शुध्दकन्नड) छंदांत तांचीं वर्णनां केल्यांत. भास्कराचें 'जीवधरचरिते', कल्याण कीर्तीचें 'ज्ञानचंद्राभ्युदय', विजयण्णाचें 'द्वादशानुप्रेक्षे' हीं आनी हेर काव्यां, तेरकणांबी बोम्मरसाच्यो सनत्कुमार चरिते आनी जीवधरसांगत्य ह्यो कृती, तिसरो मंगरस हाचीं 'जयनृपकाव्य' आनी 'नेमिजिनेश संगति' ह्यो रचना म्हत्वाच्यो आसात. रत्नाकरवर्णी ह्या म्हान कवीन 'भरतेशवैभव' हें महाकाव्य आनी 'अपराजितेश्वरशतक', 'त्रिलोकशतक' आनी 'रत्नाकराधीश्वर शतक' ह्यो रचना रचल्यो. ताची भास सोपी आनी सरळ आसा.

**वीरशैव साहित्यः** वचन साहित्याची रचना आनी संकलन, त्यावेल्यो टिका-टिपणी, पंथीय तत्त्वांचें प्रतिपादन, पुराणरचना, आध्यात्मिक पदरचना आनी हेर साहित्यप्रकार वीरशैवांनी ह्या काळांत हाताळ्ळे. ह्या काळांतल्या मुखेल वचनाकारांमदीं तोंटद सिध्देश्वर स्वतंत्र सिध्दलिंगेश्वर, गुम्मळापुरद सिध्दलिंगेश्वर, घनलिंग, षण्मुखस्वामी हांचो आस्पाव जाता. नामनेच्या पुराणकार कवींमदीं चामरस, बोम्मरस, नीलकंठचार्य, चतुर्मुख बोम्मरस, सिंगिराज, गुब्बिय मल्लिणार्य, चेरमांक, वीरभद्रकवी, गुरुलिंगविभु, किक्केरियाराध्य नंजुंड, विरक्त तोंटदार्य, शांतेश, अदृश्य कवी, विरूपाक्ष पंडित, सिध्दनंजेश हे मुखेल आसात. चंद्रकवी, सुरंगकवी, प्रभुग, वीरभद्रराज, सदाशिव योगी, षडक्षर देव आनी हेरांनी चंपूकाव्यां रचलीं. हातूंतल्या षडक्षर देवाक सगळ्यांत व्हड मानतात. ताणें राजशेखर विलास, शबरशंकर विलास, वृषभेंदुविजय हीं तीन चंपूकाव्यां रचलीं.

**शास्त्रसाहित्यः** व्याकरण, छंद-शास्त्र, अलंकार, काव्यरस आनी हेर शास्त्रीय स्वरुपाच्यो ग्रंथरचना ह्या साहित्य प्रकारांत आस्पावतात. साळवाचे 'रसरत्नाकर', 'शारदाविलास', भट्टकलंकाचो 'शब्दानुशासन', गुणचंद्राचो 'छंदोस्सार', तिरुमलार्याचो 'अप्रतिमवीरचरिते', बोम्मरसाचो 'चतुरास्य', वीरराजाचो 'वैद्यसंहिता सारार्णव' हे ग्रंथ ह्या प्रकारांत आस्पावतात.

**जानपद साहित्य तशेंच यक्षगानः** यक्षगान हें संगीत-नृत्य-प्रधान आनी विनोदी संवादान नटिल्लें एक लोकनाट्य आसून ताका शास्त्रीय बसका आसता. यक्षगानांत पुराणीक कथांवरीच इतिहासीक कथा आसात. पार्ती सुब्ब हांणे जायत्या यक्षगानांची रचना केल्या.

**आर्विल्लो काळः** (१९ व्या शतमाना उपरांत) आर्विल्लो काळ सादारणपणान तीन भागांनी वांटला. पयलो काळ १९०० ते १९४० मेरेन चलता. ह्या काळखंडाक 'नवोदय युग' म्हण्टात. ह्या काळांत कन्नड साहित्यान स्वताच्या दायजाच्या अभिमानासावन आनी भारतीय सुटके-झुजाचे चळवळीसावन प्रेरणा घेतली. १९४० ते १९५० हो काळ त्या काळांतल्या इतिहासीक घडणुकांनी प्रभावित जाल्लो. पयल्या आनी तिसऱ्या काळांक जोडपी ह्या मध्यकाळाक 'प्रगतिशील काळ' म्हण्टात. सामान्य भौसाच्या सुख-दुखखाचें चित्रण ह्या काळांत जालें. कन्नड साहित्याच्या परिवर्तनाचो तिसरो काळ १९५० सावन सुरू जाता. ताका 'नवयुग' म्हण्टात. आर्विल्ल्या काळांत कन्नड साहित्यांत कथा, लघुकथा, कादंबरी, नाटकां, निबंद, काव्य आनी हेर प्रकार आयले. तेचपरी हें साहित्य तळागाळाच्या लोकांमेरेन पावलें.

आर्विल्ल्या काळांतल्या कन्नड साहित्याचे सार फुडलेतरेन आसा.

**काव्यः** एकुणिसाव्या शतमानाच्या शेवटाक, होसगन्नड (नवकन्नड) मदल्या कवितेची सुरवात जाली. पंजे मंगशेराव, जी. नरसिंहाचार, हट्टि यंगडी नारायणराय हांणी स्वतंत्र भावगीतांचे रचनेक आनी अणकाराक सुरवात केली. तरणाट्या कवींमदीं 'नव काव्य' ची गोडी लावप्यांमदीं श्री. बी. एम्. श्रीकंठय्या (१८८६-१९४६) मुखेल आसात. ताचीं कवनां 'होंगनसुगळु' नांवान उजवाडाक आयल्यांत. भावगीत लेखनांत कुवेंपु हाणें मोलाची भर घाल्या. ताचे कोळलु, नविलु, पांचजन्य हे भावगीतझेले ऊंच पांवड्याचे आसात. द. रा. बेंद्रे हाणें 'अंबिकातनयदत्त' ह्या टोपणनांवान गरि, नादलीले, उय्यालें, नाकुंतंति, मर्यादें ह्यो रचना अप्रुप आसात. एम. गोविंद पै, साली रामचंद्रराव, डी. व्ही. गुंडप्प, पु. ति. नरसिंहाचार्य, राजरत्नम्, मास्ती वेंकटेश अयंगार उर्फ श्रीनिवास (१८९१-१९८६), रं. श्री. मुगळी उर्फ रसिकरंग, एस. व्ही. परमेश्वरभटट, कडेंगोड्लु हे ह्या काळांतले म्हत्वाचे कन्नड कवी जावन आसात. नवकाव्याची सुरवात पंजावर सदाशिवराय आनी वि. कृ. गोकाक ह्या कवीसावन सुरू जाली अशें मानतात. नवकवींत गोपाल कृष्ण अडिग अग्रणी आसात. चंद्रशेखर पाटील, सिध्दलिंग पट्टणशेट्टि, यू. आर. अनंतमूर्ति, चेन्नय हे नवकाव्याचे परंपरेंतले दुसरे पिळगेंतले कवि जावन आसात. कवयित्रीमदीं जयदेवीताई लिगाडे आनी पार्वतीदेवी हेगडे हांची नामना आसा.

**कादंबरीः** बी. वेंकटाचार्यान बंगाली कादंबऱ्यांचो अणकार करून कन्नडांत पयलेच खेपे कन्नड कादंबरी हाडली. कन्नडांतली पयली स्वतंत्र कादंबरी रेंटल वेंकट सुब्बराव हाची 'केसरी विलास' (१८९५) ही जावन आसा. एम. एस्. पुट्टण्णाची 'माडिद्दुण्णो महाराय' ही कन्नड भाशेंतली कादंबरीचे बसकेंत बसपी पयली साहित्यकृती आसली. गळगनाथ, वासुदेवाचार्य केरूर हे सुर्वेच्या काळांतले म्हत्वाचे कादंबरीकार आसात. १९२० ते १९३० हें कन्नड कादंबरीचें भांगरायुग मानतात. ह्या काळांतल्या कांय म्हत्वाच्या साहित्यिक आनी ताच्या साहित्यकृतीमदीं शिवराम कारंत (चोमन दुडि, मरळि मण्णिगे, औदार्यद उरूळल्लि, अळिद मेले), यशवंत चित्ताल (मूरु दारिगळु), शांतिनाथ देसाई (मुक्ति, विक्षेप), यू. आर. अनंतमूर्ती (संस्कार), अ. न. कृष्णराव (उदयराग, संध्याराग), त. रा. सुब्बराव (कंबनिय कुयिलु, रक्तरात्रि, तिरुगुबाण), आनंद कंद (सुदर्शन), मास्ती वेंकटेश अय्यगांर (चिक्कवीर राजेंद्र) हांचो आस्पाव जाता.

**कथाः** कन्नड कथेची बुन्याद एम्. एन्. कामत, पंजे मंगेशराव, वासुदेवाचार्य केरूर हांणी घाली. कन्नड कथाकारांमदीं श्रीनिवास हाणें कथा-साहित्यांत मोलाची भर घाल्या. ताचे समकालीन नवरत्न रामराव, ए. आर. कृष्णशास्त्रि, एस. जी. शास्त्रि हेय फांकिवंत कथाकार आसले. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत 'नवकथा' हो प्रकार हाताळप्यांमदीं रामचंद्र शर्मा, यू. आर. अनंतमूर्ति, के. सदाशिव, पी. लंकेश, शांतिनाथ देसाई, यशवंत चित्ताल, पूर्णचंद्र तेजस्वि हांचो आस्पाव जाता.

**नाटकः** ह्या काळखंडांत नाटकाच्या मळार पौराणिक, इतिहासीक, समाजीक अशा विशयांचें हाताळप जालें, तातूंत संगितीका, एकांकिका, नभोनाट्य हांचो आस्पाव जाता. 'इग्गप हेग्गडेय प्रहसन' (१८८७) हें कन्नडांतलें पयलें समाजीक नाटक आसलें. ह्या शतमानांत समाजीक नाटकांची एक सांखळ टी. पी. कैलासम हाणें निर्मीली. वैद्यन व्याधि, होम्‌रुलू, हुत्तदल्लि हुत्त, टोळ्ळु गट्टि, कीचक हीं तांचीं कांय नाटकां जावन आसात. हेर नामनेच्या नाटककारांमदीं श्रीरंग (उदरवैराग्य, वैघराज दरिद्रिनारायण, हरिजन्वार), शिवराम कारंत (बित्तिदबेळे, गर्भगुडि, हेगादरेनु, जंभद जानकी), कुर्वेपू (रक्ताक्षि, बिरूगाळि), संस (विगड विक्रमराय, सुगुणगंभीर), श्रीनिवास (शिवछत्रपति, मंजुळा) हांचो आस्पाव जाता. कन्नड नाटकांत नवे प्रयोग घडोवप्यांमदीं गिरीश कार्नाड (हयवदन, ययाति, तुघलक), चंद्रशेखर कंबार (ऋष्यशृंग), पी. लंकेश (एळु नाटकगळु), बालनाट्य रचप्यांमदीं होयिसळ (आगिलिन मगळु), जी. सदाशिवय्य (सौंपिन सागर) हांचो आस्पाव जाता.

चरित्र, आत्मचरित्र, निबंद, प्रवासवर्णन, गौरवग्रंथ, वैज्ञानीक वा शास्त्रीय साहित्य, वैचारीक बरप, तत्त्वज्ञानपर बरपावळ, साहित्यसमीक्षा ह्या वेगवेगळ्या साहित्यप्रकारांनी कन्नड साहित्य गिरेस्त जालां. हातूंतलीं कांय वेंचीक बरपावळ आनी साहित्यीक फुडले तरेन आसा. **चरित्रः** च. वासुदेवय्य (छत्रपति शिवाजी), डी. व्ही. गुंडप्पा (गोपाल कृष्ण गोखले). **निबंधः** ना. कस्तूरि (उपाय वेदान्त), ए. एन्. मूर्तिराव (हगलुगनसुगळु, अलेयुव मन). **प्रवासवर्णनः** शिवराम कारंत (अबूविंद बरामक्के, अपूर्व पश्चिम), कृष्णानंद कामत (नानू अमेरिकिगे होगिद्दे). **वैचारिक साहित्य आनी संशोधनः** शं. बा. जोशी. **साहित्य समीक्षाः** बी. ए. श्रीकंठय्य, श्रीनिवास. **भाशाशास्त्रः** एच. एस. बिळगिरि. के. शंकरभट्ट, प्र. गो. कुलकरणि.

**पुरस्कार, तस्त्रीपः** साहित्य अकादेमीचे वर्सावळीचे पुरस्कार जोडपी कन्नड साहित्यिक फुडलेतरेन आसात. १९५५: के. व्ही. पुट्टप (कुवेंपु), १९५६: आर. एस्. मुगळी, १९५८: डी. आर. बेंद्रे, १९५९: के. एस्. कारंत, १९६०: 'विनायक' (व्ही. के. गोकाक), १९६१: ए. आर. कृष्ण शास्त्रि, १९६२: देवुडू नरसिंह शास्त्रि, १९६४: बी. पुट्ट स्वामैय्या, १९६५: एस्. व्ही. रंगण्ण, १९६६: पी. टी. नरसिंहाचार, १९६७: डी. व्ही. गुंडप्पा, १९६८: मास्ती वेंकटेश अय्यंगार (श्रीनिवास), १९६९: एच्. तिप्पेरुद्र स्वामि, १९७०: एस. बी. जोशी, १९७१: आद्य रंगाचार्य, १९७२: एस्. एस्. भूसनूरमठ, १९७३: व्ही. सितारामय्य, १९७४: गोपाळकृष्ण अडिग, १९७५: एस्. एल्. भैरप्प, १९७६: एम. शिवराम, १९७७: के. एस्. नरहिंसस्वामि, १९७८: बी. जी. एल्. स्वामि, १९७९: ए. एन्. मुर्तिराव, १९८०: गोरुर रामस्वामी अय्यंगार, १९८१: चेन्नवीर कणवि, १९८२: चदुरंग, १९८३: यशवंत चित्ताल, १९८४: जी. एस्. शिवरुद्रप्पा, १९८५: टी. आर. सुब्बाराव, १९८६: व्यासराय बल्लाळ, १९८७: पूर्णचंद्र तेजस्वि, १९८८: शंकर मोकाशि पुणेकर, १९८९: हा. मा. नायक.

(१९५७ आनी १९६३ वर्सा हे भाशेंत कोणाकूच पुरस्कार मेळूंक ना.)

- कों. वि. सं. मं.

**कन्याः-** (व्हिर्गो). भारतीय राशीचक्रांतली सवी रास. उत्तराचे निमाणचे तीन चरण (चतुर्थांश); हस्त नखेत्र आनी चित्राचे पयले दोन

चरण अशीं सव्वादोन नखेत्रां हे राशींत येतात. एका हातांत गंवांचें कणस आनी दुसऱ्या हातांत उजो घेवन व्हड्यांत उबी रावील्ली बायल, ही हे राशीची आकृती अशें दीपिका ह्या ग्रंथांत म्हळां. कन्येचो स्वामी बुध.

कन्या राशींत जल्मल्ल्या मनशाचीं लक्षणां अशीं आसतात.

कन्यालग्नोद्भवो मर्त्यो नानाशास्त्रविशारदः।
सौभाग्यगुणसम्पन्नः सुन्दरः सुरतप्रियः॥

(कोष्ठीप्रदीप)

अर्थ- कन्यालग्नाचेर जल्मल्लो मनीस वेगवेगळ्या शास्त्रांत पंडित, भाग्यवान, सुंदर आनी विलासप्रिय जाता.



हे राशींत सवे प्रतीमेरेनचीं ४३ नखेत्रां आसात. ही रास २५ मे च्या सुमाराक रातची ९ वरांचेर मध्यमंडलाचेर येता. हालूंतलें चित्रा (स्पायका) हें नखेत्र (प्रत १.२१) सूर्यापरसूय तेजीश्ट जावन आसा. गॅमा हें तारकायुग्म (दोट्टी गिरो) आसा. हे राशींच्या उत्तर भागांत शेंकड्यांनी अभ्रिकां (nebula) दिसतात. एम्- ९९ ही एक सरपळी (helix) अभ्रिका तांच्यातलीच एक जावन आसा. शरत् संपातबिंदू (सूर्य आपल्या वर्सुकी भासमान गतीन शरद ऋतूंत जंय खगोलीय विषुववृत्त हुंपता तो बिंदू) हेच राशींत येता. १६ सप्टेंबराक निरयन (संपातचलन मतींत घेनासतना) आनी २१ ऑगस्टाक सायन (संपातचलन मतींत घेवन) कन्या राशींत सूर्यप्रवेश जाता. गुरु कन्या राशींत आसलो म्हण्टकच त्या वर्साक कन्यागत अशें म्हण्टात. सुमार १२-१३ वर्सांनी अशें वर्स येता. त्या वर्सा भागीरथी कृष्णेक भेटूंक येता. असो एक समज आसा. ह्या काळांत कृष्णा आनी भागीरथी हांच्या मदल्या वाठारांत लग्न करचें न्हय, असो संकेत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कन्याकुमारीः** एक नामनेचें तीर्थक्षेत्र. भारताचें सामकें दक्षिणेकडलें तोंक. अरबी समुद्र, हिंदी महासागर आनी बंगालचो उपसागर हांचें संगमस्थान. कांय वर्सां आदीं हें भुशीर तमीळ राज्यांत आसलें, जाल्यार सद्या ताचो आस्पाव केरळ राज्यांत आसा. भारतांतल्या ५१ शक्तीपीठांपैकीं एक, म्हूण हिंदूंचे नदरेन पवित्र आशिल्लें हें ठिकाण, त्रिवेंद्रमचे आग्नेयीक सुमार ८० किमी. आनी नागरकोइलाचे दक्षिणेक १३ किमी. अंतराचेर आसा. हें एक मुखेल नुस्तें मारपाचें केंद्र आसून थंय नुस्त्यांविशींचें संशोधनकेंद्र आसा. इंग्लीश लोक हे सुवातेक 'केप कोमोरीन' अशें म्हण्टाले.



**विवेकानंद यादस्तीक**

हांगा भोंवडेकार यात्रीक चोम्यांनी येतात. तीर्थांत न्हाण घेवन पवित्र जावपाचे भावनेन येवपी भाविकांक न्हावपाखातीर हांगा घाट बांदल्यात. श्राध्दाचीं कृत्यां, पिंडदान सारके पितरांक होरावपी मरणा उपरांतचे धर्मीक संस्कार आनी विधी हांगा करतात. दर्याच्या सामक्या तोंकार जंय भारतभूंय सोंपता थंय देगेर कन्याकुमारीचें सोबीत देवूळ आसा. दर्याच्या उदकांत दोन व्हडल्या खडपांचेर स्वामी विवेकानंदाचें स्मारक आसा. ह्या खडपांचेर बसून स्वामी विवेकानंद आपली साधना करतालो म्हूण ताका 'विवेकानंद खडप' अशें नांव पडलें. हांगाच १९७० त विवेकानंदाचें व्हडलें यादस्तीक बांदलें. दर्यादिगेकडलें महात्मा गांधीचें यादस्तीक आनी इग्रज ओडलायणी आसा. दोन ऑक्टोबराक महात्मा गांधीच्या अस्थीकळसाचेर सूर्यकिरणां पडचीं, अशी मांडावळ हें यादस्तीक बांदतना करून दवरल्या. मोनोझाइट आनी इल्मेनाइट ह्या खनिजांक लागून हांगाची रेंव मोटी आनी रंगाळी आसा. हांगाचें आनीक एक खाशेलेपण म्हळ्यार हांगा दर्यांतल्यान सुर्योदय आनी सूर्यास्त जाता तो पळोवंक मेळटा; तशेंच पुनवे राती एकाच बरोबर दर्यांतल्यान सुर्योदय आनी चंद्रोदय पळोवंक मेळटा. हो अपूर्व खीण पळोवपाक भोंवडेकार गर्दी करतात.

हे सुवातेक कन्याकुमारी नांव कशें पडलें, ताचेविशीं एक आख्यायिका आसा ती अशीः पौराणिक कथेप्रमाण बाणासुर ह्या भिरांकुळ राक्षसाचो संहार करपी हांगाची पराशक्ती ही कुमारी कन्या कालीचोच अवतार आसा. बाणासुर हे कुमारी कन्येचे हातांतल्यान मरपाचो आसता. ती तप करून शंकराक लग्नाखातीर प्रसन्न करता म्हूण देव कन्याकुमारीसावन ३२ किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या शुचिंद्रम् हांगा शंकराचो म्हूर्त चुकयतात. बाणासूर तिका मागणी घालपाक वता आनी तातूंतल्यान उप्राशिल्ल्या झुजांत ताका मरण येता. उपरांत ती थंयच तपाक बसता. आंकवार कन्येचे हे सुवातेक तेन्नाच्यान 'कन्याकुमारी' अशें म्हूण वळखतात. हातांत वरमाला घेतिल्ली आनी शंकराची वाट पळेत आशिल्ली पराशक्तीची सुंदर मूर्त कन्याकुमारीच्या देवळांत आसून नवरात्रांत थंय उत्सव जाता. कन्याकुमारीचें देवूळ कोरीवकामयुक्त, दाक्षिणात्य पध्दतीचें आसा. आयज कन्याकुमारी हें भारतांतलें एक ओडलायणें पर्यटन केंद्र जालां.

- एन्. शिवदास

**कपिलेश्वरः** कपिलेश्वर हें शंकर देवाचें नांव. ताका ईश्वर अशेंय म्हण्टात. ताचें प्रतीक लिंग आशिल्ल्यान ताका लिंगरुपान पुजतात.

ताका कपिलेश्वर हें नांव कशें पडलें हेविशीं अशी खबर मेळटा. कवळें आनी फोंडें हांचे मजगतीं सद्या आशिल्ल्या देवळामुखावेल्या प्रकारा भायर तेन्ना बरीच व्हड तळी आशिल्ली. तातूंत एक पाशाणी शिवलिंग आशिल्लें आनी ताचे भोंवतणी सुंदर धवीं कमळां फुलतालीं. एकदां कपिल नांवाचो एक राजा थंय पावलो. तो शिवभक्त आशिल्लो; ताका दिसलें, तळ्यांतलें तें पाशाणी लिंग काडून, देवूळ बांदून तातूंत तें स्थापन करचें. ते प्रमाण ताणें तें व्हडलें तळें पुरोवन ताचेर देवूळ बांदलें आनी तातूंत लिंग स्थापन केलें. ताका ताणें कपिलेश्वर नांव दवरलें. खरें म्हळ्यार कवळें गांवचो हो एक भाग, पूण त्या वाड्याक सद्या कपिलेश्वरी म्हण्टात.

कपिलेश्वर नांव कशें पडलें, हाचेविशीं आनीक एक मत आसा. कवळें ह्या गांवांक कपिलग्राम अशें वेगळें नांव आसा. कवळें (कपिलाग्राम) गांव ज्या काळांत मूळ वसणुकेक आयलो त्याच काळांत ही वसणूक केल्ल्या लोकांनी आपलो ग्रामदेव स्थापन केल्लो जावंक जाय आनी त्या ग्रामदेवाक कपिलेश्वर नांव दिलें आसूंक जाय.

कपिलेश्वर ह्या वाठारांत पोर्तुगेज इ.स. १५१० वर्सा आयले. १३४८ वर्सा आदीं सावन, कपिलेश्वर देव हेच सुवातेर आशिल्लो असो पुरावो एका तांब्यापट्यावरवीं मेळटा. ह्या देवाक आनीक पंचिश्ट देव आसात, तांचीं नांवां अशीं- श्री गणपती, श्री भगवती, श्री बेताळ, श्री कमलेश्वर, श्री गोविंद. हांची स्थापणूक वेगवेगळ्या स्वतंत्र देवळांनी केल्ली आसा.

कवळें आनी फोंडें हांचे मजगतीं एकेचकडेन कपिलेश्वर नांवाच्या देवाचें देवूळ आसा. फोंड्यासावन कवळें वचपाच्या रस्त्याचेर दावेवटेन मुखेल रस्त्याचे उबारेपरस देड मी. ऊंच श्री कपिलेश्वर देवस्थानाचो

पाकार आसा. प्राकाराभायर एक तळी आसा. प्राकाराक रस्त्याचेवटेन सुंदर फातरांचें दुरीग आसा आनी ताका व्हडलें कमानी रुंद प्रवेशदार आसा. ह्या दारांभितर सरतकच उजवेवटेन विस्तीर्ण अशें श्री कपिलेश्वर देवाचें ऊंच देवूळ आसा. देवळांत हो देव पाशाणी लिंगरुपांत आसा. सकाळीं ताची पूजा, अभिषेक जातकच दनपरां ताची महापूजा करून, महाआरती जावचे पयलीं लिंगाचेर रुपाचें कवच घालतात.

पूर्विल्ल्या काळांत ज्या लोकांनी कवळें गांव वसणुकेक हाडलो, तांणी कवळें ग्रामसंस्था स्थापन करून कपिलेश्वर ग्रामदेवाची थापणूक केली. देखुनूच कवळें ग्रामसंस्थेचे आनी कपिलेश्वर देवस्थानाचे आद्यसंस्थापक एकूच आसात.

कपिलेश्वर देवळाचे घटना नेमावळींत चार वांगडांचो उल्लेख आसा. पयलो वांगड 'भारद्वाज' गोत्राचो तातूंत 'ढवळकर' उपनांवाचे कुळावी आसात. दुसरो वांगड 'जमदग्नी' आनी 'वत्स' गोत्रांचो. तातूंत कुमार देसकर उपनांवाचे कुळावी आसात. तिसरो वांगड 'कौशिक' गोत्राचो तातूंत बुकले वा बखले ह्या उपनांवाचे कुळावी आसात आनी चवथो वांगड 'वत्स' गोत्राचो. हातूंत 'कुळकर्णी', 'कवळेकर' ह्या उपनांवाचे कुळावी आसात. पयले तीन वांगड पद्दे ब्राह्मण आसून चवथ्या वांगडाचे कुळावी गौड सारस्वत ब्राह्मण आसात.

श्री कपिलेश्वर देवाचो मुखेल वर्सुकी जात्रा उत्सव कार्तिक वद्य चतुर्दशी दिसा सुरू जाता आनी स दीस चलता. प्रत्यक्षांत ही जात्रा मार्गशीर्ष शुक्ल तृतीये मेरेन आसता. पूण हे जात्रेचो मुखेल दीस म्हळयार कार्तिक उमास.

- विनायक ना. शणवी धुमे

**कबड्डी:** एक नीज भारतीय सांघिक खेळ. गोंयांत 'हुतूतू', बंगालांत 'हुडू', दक्षिण भारतांत 'चेडुगुडु' आनी उत्तर भारतांत 'कबड्डी' ह्या नांवांनी ह्या खेळाक वळखतात.

भारतांत हो खेळ खूब पूर्विल्ल्या काळासावन खेळटात. पूण ताची निर्मणी केन्ना आनी कोणे केली, हेविशींची नोंद मेळना. संत तुकारामाच्या अभंगांत ह्या खेळाचो उल्लेख 'हमामा', 'हुंबरी' आनी 'हुतूतू' ह्या नांवांनी केल्लो दिसता.

सुर्वेक ह्या खेळाचें स्वरुप अनियमित आसलें. पुण्याचे 'डेक्कन जिमखाना' हे संस्थेन १९१५-१९१६ वर्सा ह्या खेळाचे नेम तयार करून सामने घडोवन हाडपाक सुरवात केली. सन १९३३ वर्सा अखिल महाराष्ट्र शारिरीक शिक्षण मंडळान भारतीय खेळाचो प्रसार करप ही मोख मुखार दवरून खेळाच्या नेमांत बदल करून खेळाचें आकर्शण वाडोवपाचो यत्न केलो. अणभवी खेळगडी आनी तज्ञांनी भासाभास करून तातूंत जायत्यो सुदारणा केल्यो. सन १९५८ त भारतीय ऑलिंपिक खेळांचे समितीन कबड्डीक मान्यताय दिली. सद्या खेळाचें स्वरुप थोडें बदलून ताका 'कबड्डी' हें अधिकृत नांव मान्य करून दिलां. ह्या खेळापासत अखिल भारतीय आनी राज्य पातळेचेर संस्थांची थापणूक जाल्या.

**खेळ खेळपाची पध्दत:** कबड्डीचो खेळ दोन पंगडांभितर खेळटात. दरेक पंगडांत धा खेळगडी आसतात. तातूंतले सात खेळगडे खेळ खेळटात, तीन खेळगडे राखीव आसतात. पंगडांतलो एक खेळगडो एकाच वेळार 'हुतुतू' ना जाल्यार 'कबड्डी' हो सूर धरत आपल्या विरोधक पंगडाचेर घुरी घालता आनी आपल्या हातांचो नाजाल्यार पांयांचो वापर करून विरोधी पंगडाच्या खेळगड्यांक बाद करपाचो यत्न करता. ह्याच वेळार विरोधी पंगडाचे खेळगडी, ह्या खेळगड्याक धरून बाद करपाचो यत्न करतात. घुरी घालपी खेळगड्यांक दुसऱ्या पंगडावटेनचे घुरयेवळीक (घुरये लायनीक) स्पर्श करचो पडटा तशेंच दुसऱ्या अर्दांत आसतना 'कबड्डी' हो सूर सोडूंक उपकरना. नाजाल्यार घुरी घालपी खेळगडो बाद थारता. सद्या दोनूय पंगडांवटेन एक बोनस वळ (bonus line) आंखिल्ली आसता. घुरी घालपी खेळगड्यान हे बोनस वळीक स्पर्श केल्यार त्या पंगडाक एक अदीक 'बोनस गूण' मेळटा. पूण तेखातीर दुसऱ्या अर्दांत उणेच पांच खेळगडी आसचे पडटात. खंयच्याय पंगडांतलो एक खेळगडो बाद जाता, तेन्ना दुसऱ्या पंगडाक एक गूण मेळटा. जेन्ना एकाद्र्या पंगडाचे सगळे गडी बाद जातात, तेन्ना 'लोण' पडलो अशें म्हणटात. त्या वेळार विरुध्द पंगडाक थारायल्ले चड गूण मेळटात.

अखिल महाराष्ट्र शारीरिक शिक्षण मंडळाच्या नेमांप्रमाण कबड्डी खेळपाच्यो तीन पध्दती आसात.

**संजीवनी पध्दत:** हातूंत ज्या पंगडाचो खेळगडी बाद जाता, तेन्ना विरुध्द पंगडाचो बाद जाल्लो खेळगडी जिवो जाता आनी खेळांत भाग घेता.

**गनिमी पध्दत:** हातूंत एक फावट बाद जाल्लो खेळगडी 'लोण' जायमेरेन वा डाव सोंपमेरेन खेळूंक शकना.

**अमेर पध्दत:** बाद जाल्लो खेळगडी खेळांत भाग घेवंक शकता, पूण तेखातीर विरुध्द पंगडाक 'गूण' मेळटा. खेळ खेळपाची पध्दत मात वयलेवरीच आसता. दादले हो खेळ २०-५-२० मिनटां खेळटात. तर बायलो १५-५-१५ मिनटां खेळटात. मदलीं पांच मिनटां सुटी आसता.

कबड्डीचें खेळांगण, दादल्यांक, बायलांक तशेंच भुरग्यांक वेगवेगळें आसता. दादल्यांचें खेळांगण १२.५०×१० मी. तर बायलांचे आनी १४ वर्सां सकयल आशिल्ल्या चल्यांचें खेळांगण ११×८ मी. आसता. बारा वर्सां सकल्या चलयांचें खेळांगण ९.५०×६.५० मी. आसता.

**बसपाची चौकट:** बाद जाल्ले खेळगडे हे चौकटींत क्रमान बसतात. जितले विरोधक पंगडाचे खेळगडे बाद जातात तेन्ना हे बाद जाल्ले खेळगडे क्रमान आपल्या पंगडाच्या अर्दांत भितर सरतात.

**बोनस लायन (वळ):** सद्या कबड्डीच्या खेळांगणांत बोनस वळ मारपाची चाल आसा. हे बोनस वळीभितर सरल्यार घुरी घेवपी खेळगड्याक एक बोनस गूण मेळटा. पूण तेखातीर विरोधक पंगडाचे उणेच पांच खेळगडे मैदानांत आसचे पडटात.

**घुरयेवळ:** विरोधी पंगडाच्या अर्दांत घुरी घालपी खेळगड्याक हे वळीक दांग घालून मुखार वचचें पडटा. हे वळीक दांग घालीनासतना परतो आयल्यार घुरी घालपी खेळगडो बाद जाता. हे वळीक हुंपचेपयलीं जर विरुध्द पंगडाचो खेळगडी ताका आफुडलो जाल्यार विरोधक पंगडाचो खेळगडो बाद जाता आनी घुरी घालपी खेळगडो नाबाद उरता.

**लॉबी:** झूज चालू आसतना खेळगडो लॉबींत भितर सरल्यार खेळगडो बाद जायना. पूण कारण नासतना खंयचोय खेळगडो 'लॉबी' भायर गेल्यार बाद जाता.

**मदली वळ:** ही वळ कबड्डी खेळांगणाची एक सारकी दोन अर्दां करता. घुरी घालपी खेळगडो मदली वळ हुंपून, 'कबड्डी' हो सूर धरीत विरोधक पंगडाच्या अर्दांत घुरी घालपाक भितर सरता. विरोधक पंगड घुरी घालपी खेळगड्यांक हे वळीभितर बाद करता.

**नांवाजते खेळगडे:** अर्जुन पुरस्कार जोडपी कबड्डी खेळगडे अशे दादले: १९७२ त सदानंद महादेव शेटये, १९७३ वर्सा भोलानाथ गुईन, १९८० वर्सा शांताराम जाधव; बायलो: १९७८ वर्सा शकुंतला खाटनकार, १९८१ वर्सा मोनिका नाथ, १९८३ वर्सा माया काशिनाथ आनी १९८६ वर्सा रमा सरकार.

विठ्ठल उत्तम चोडणकार आनी नीरा नायक ह्या दोन गोंयकार नांवाजत्या कबड्डी खेळगड्यांक १९८१ वर्सा बक्षी बहादूर जीवबादादा केरकार पुरस्कार फाव जाल्ले.

**खेळासर्ती:** आंतरराश्ट्रीय खेळामळार ह्या खेळाक आजमेरेन मानाची सुवात मेळूंक ना. आंतरराश्ट्रीय पांवड्यार कलकत्ता आनी ढाका ह्या दोन शारांत हो खेळ जालो. १९९० च्या बिजिंग आशियाई खेळासर्तींत हो खेळ जालो, तातूंत भारतान वस्तादपण जोडलें.

आशिया खंडांत भारत, नेपाळ, बांगलादेश आनी पाकिस्तान तशेंच हेर कांय राश्ट्रांनी हो खेळ खेळटात. भारतांत ह्या खेळाची उदरगत चडांत चड गांवगिऱ्या वाठारांनी जाल्ली दिसता.

- चंद्रकांत द. पोरोब

**कबीर:** (जल्मः सुमार इ.स. १३९८; मरणः सुमार इ.स. १५१८).

उत्तर भारतांतलो एक म्हान संत कवी. ताचो जल्म, मरण, जात, धर्म, गुरुपरंपरा हांचेविशीं विद्वानांभितर खर मतभेद आसात. डॉ. हंटर हाच्या म्हणण्याप्रमाण कबीराचो जल्म विक्रम संवत १४३७ वर्सा जालो तर विल्सन हाच्या म्हणण्याप्रमाण कबीर, विक्रम संवत १५०५ वर्सा ह्या संवसाराक अंतरलो. रेव्हरंड वेस्टकॉटाच्या मतान कबीर विक्रम संवत १४९७ त जल्मलो आनी संवत १५७५ त सोंपलो. कबीर पंथीय पद्यांतल्यान कबीराचो जल्म विक्रम संवत १४५६ त ज्येश्ठ शुक्ल पुनवेक सोमारा दीस जालो आनी ताका संवत १५७५ वर्सा मरण आयलें, म्हणपाचें निश्चित जाता.

कबीराचो जल्म रामानंदजी ह्या स्वामीच्या आशीर्वादान एके ब्राह्मण विधवेगेर जालो. लोकलजेक लागून तिणें आपल्या पुताक लहरतारा तलावाकडेन सोडून दिलो. उपरांत निरु आनी निमा ह्या निपुत्रीक कोष्टी जोडप्यान ताचो सांबाळ केलो, अशी कथा प्रचारांत आसा.

कबीर आंकवार रावलो, अशे कांय जाण मानतात. कांय जाण 'लोई' ही ताची लग्नाची बायल आसली आनी ताका दोन भुरगीं जाल्लीं, अशें म्हण्टात. ताच्या चल्याचें नांव 'कमाल' तर चलयेचें 'कमाली' आसलें. कांय जाणांच्या मतान 'लोई' ताची शिष्या आसली.



कबीर

कांय जाणांच्या मतान तो रामानंदाचो शिष्य आसलो तर कांय जाणांच्या मतान तो शेख तकीचो शिष्य आसलो. त्या काळांत लोक गुरुकडल्यान दीक्षा घेतिल्ल्या शिष्याचोच उपदेश आयकताले. जांकां गुरू ना ताची 'निगुरा' म्हूण बकच्छायो करताले. देखून कबीरान रामानंदजी ह्या नामनेच्या महात्म्याक आपलो गुरू मानलो.

कबीराचो जात-धर्म, रुढी, अंधश्रध्दा, भैरोजोळोप, व्रतवैकल्यां, कर्मकांड हांचेर निखालस विस्वास नासलो. तेखातीर सिकंदर लोदीकडल्यान ताका ख्यास्तय फाव जाली. काशीक मरण आयल्यार मोक्ष मेळटा आनी मगहराक मरण आयल्यार मनीस नरकांत वता, अशी एक अंधश्रध्दा लोकांमदीं आसली. आपल्या मरणाचो उपेग, अंधश्रध्दा पयस करपाखातीर करचो, म्हूण तो काशी सोडून मगहराक गेलो.

कबीराक स्वतंत्रताय मानवताली. शारीरिक स्वतंत्रतायेपरस मानसिक स्वतंत्रताय गरजेची, अशें ताचें मत आसलें. खंयचोच धर्म वा पंथ ताणें आपणायलो ना. तो आत्मगिन्यानी आसलो. ताणें सत्संगांतल्यान आपले बुद्दीची तांक वाडयली. ईश्वराचे उपासनेखातीर योगमार्ग आनी भक्तिमार्गाचो ताणें पुरस्कार केलो, पूण भक्तीमार्गाचेर ताचो चड भर आसलो. बरें नितळ चारित्र्य, निर्वैरता, निष्कामता, अनासक्ती आनी सात्त्विक रावप ह्या गुणांक ताणें चड म्हत्व दिलें.

भारतांत आयिल्ले मुसलमान जेन्ना आपलें मुळावण घट करूंक हिंदूंचेर अत्याचार करूंक लागले, तेन्ना कबीरान दोनूय धर्मांक एकठांय दवरचेपासत भक्तिमार्गाची बुन्याद घाली, तेचपरी हिंदू-मुसलमानांचो एकवट सांबाळळो. ताच्या ह्या वावराक लागून दोनूय धर्मांचे लोक ताका आपलो मानपाक लागले. कबीराच्या मरणा उपरांत ताच्या मड्यावेलीं फुलां अर्दीअर्दी करून ह्या दोनूय धर्मांतल्या लोकांनी वांटून घेतलीं. हिंदूंनी आपल्या वांट्याचीं फुलां काशीक व्हरून तिचेर समाधी बांदली. तिका आयजमेरेन कबीरचौरा म्हूण वळखतात. मुसलमानांनी आपल्या वांट्याचीं फुलां मगहराक व्हरून ताचेर कबर उबारली.

कबीर निरक्षर पूण व्हड गिन्यानी आसलो. ताणें आपल्यो रचना तोंडी रचल्यो. ताच्या अनुयायांनी त्यो बरोवन काडल्यो. ताच्या काव्यांतल्यान दिश्टावो, प्रतीकांतल्यान ताची प्रतिभाशक्त जाणवता. ताच्या विचारांत दुसऱ्याचेर प्रभाव घालपाचें बळ आसा. तेचखातीर ताच्या काव्यांतल्यो जायत्यो उक्ती, म्हणींच्या रूपान लोकांच्या जिबेर घोळटात. ताच्या काव्यांत उत्प्रेक्षा, रुपक, दिश्टावे ह्या भाशाकारांचो खूब वापर जाला. कबीराचे भाशेक सधुक्कडी वा खिचडी म्हण्टाले. पूण ताची भास पूरबी हिंदी आसली. हिंदू-मुसलमानांचो एकवट करीत तो पुराय भारत भोंवलो. तेन्ना ताचेर हेर भासांचो प्रभाव पडलो. त्यावेळार त्या भासांतलीं उतरां ताणें आपणायलीं. ताच्या काव्यांत ब्रज, अवधी, पंजाबी, खडीबोली, फारसी, अरबी उतरांचो वापर सांपडटा. 'कबीर ग्रंथावली', 'कबीर बीजक' वा 'बीजक' हे ताचे रचनेचे अधिकृत झेले मानतात. शिखांच्या 'ग्रंथसाहिबां'त कबीराचीं कांय पदां आस्पावल्यांत. कवी म्हूण हिंदी साहित्यांत कबीराची सुवात ऊंच आसा.

- दिलीप बोरकार

**कब्र:** मुसलमानांचें थडें. मुसलमान लोक मडें पुरपाखातीर मसुंडीचे जमनींत ४ फूट खोल फोण खणटात आनी ताच्या तळाक एके वटेन एक फोणकूल खणून तातूंत मड्याचें तोंड मक्केचे दिकेवटेन दवरतात. ताका लागून भारतांत हो फोण सदांच दक्षिण दिशेन खणटात. मडें दवरतकच तो फोण विटांनी बंद करतात आनी सगळो फोण मातयेन भरून काडटात. मागीर ताचेर एक ल्हानसो उंचवटो करतात.



कब्र

मेल्ले कुडीक लेगीत दुखाची जाणविकाय आसता, अशें मानून ताचेर वजन येवचेंना, अशे तरेन फोणकुलाची रचणूक करतात. महम्मद पैगंबरान कब्रीचेर पक्कें बांदकाम करपाक आनी आलेख कोरांतपाक मनाय केल्या (मिश्कात, ५.९.६). पूण वहाबी पंथाचे मुसलमान सोडल्यार हेर सगळ्या मुसलमानांनी ह्या आदेशाक पाळो दिवंक ना.

१६३१ चे सुर्वेक मोंगल सम्राट शहाजहान हाणें आपली बायल अर्जुमंदबानू उर्फ मुमताजमहाल हिच्या मर्णाउपरांत तिचें दफन केलें आनी कब्रीचेच सुवातीचेर तिचें व्हडलें यादस्तिक बांदलें. ह्या अप्रतिम शिल्पाची 'ताजमहाल' ह्या नांवान संवसारभर नामना आसा. औरंगजेबान आपली बायल राणी रबिया दौरानी, हिच्या उगडासाखातीर

प्रति ताजमहाल असो 'बिबि का मकबरा' औरंगाबाद शारांत बांदला. म्हैसूर शारांत टिपू सुलतान आनी हैदर अली हांच्यो कबरी आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**कम्युनिस्ट पक्ष:** मार्क्स आनी एंगेल्स हांच्या तत्त्वगिन्यानाचो प्रचार आनी प्रसार करप, क्रांतीच्या मार्गान कामगारवर्गाचे राजकी सत्तेची थापणूक करप आनी मार्क्सवादी तत्त्वांचेरुच समाजरचणूक करपाखातीर ते सत्तेचो वापर करप अशें ध्येयधोरण दवरून संघटित जाल्ल्या पंगडाक 'कम्युनिस्ट पक्ष' अशें म्हण्टात. रशियांतल्या कम्युनिस्ट पक्षाचो आग्रही पुरस्कर्तो आनी एक संस्थापक लेनिन हाणें कम्युनिस्ट पक्ष म्हळ्यार 'कामगारवर्गाचें संघटित अग्रदल' अशें वर्णन केलां. ह्या पक्षान कामगारवर्गाक संघटित करप, ते संघटनेच्या बळाचेर समाजांतलो भांडवलदारवर्ग आनी पक्ष हांचेकडल्यान सत्ता हातासप, तेउपरांत समाजांतलीं सगळीं उत्पादन साधनां राज्याचे मालकीचीं करप आनी तातूंतल्यान निमाणें वर्गविरयत समाजरचणुकेचें ध्येय तडीक व्हरप, अशी ह्या पक्षाच्या ध्येयधोरणाची रूपरेखा आसा.

रशियांत १९१७ त जाल्ले राजकीय क्रांतीची प्रेरणा घेवन संवसारांतल्या हेर जायत्या देशांतूय कम्युनिस्ट पक्षांची थापणूक जाली आनी रशियाच्या मार्गदर्शनाखाला तांणी आपापल्या देशांत राजकीय मळाचेर कार्य केलें. १९६० तले आंकडेवारीप्रमाण संवसारांतल्या ८३ देशांत कम्युनिस्ट पक्षाची थापणूक जाल्ली आसून तांची सभासदसंख्या सुमार कोटींच्या लागसार आशिल्ली. हातूंतली सुमार ८५ टक्के सभासदसंख्या रशिया आनी चीन ह्या दोन देशांतल्या कम्युनिस्ट पक्षांची आसून हेर १५ टक्के सभासदसंख्या ८१ देशांतल्या पक्षवांगड्यांची आसा.

कम्युनिस्ट पक्ष अस्तंत युरोपांतल्या उद्येगीक नदरेन फुडें पाविल्ल्या देशांत वाडटलो आनी कामगारसंघटनांवरवीं तो त्या देशांत क्रांती घडोवन हाडटलो, अशी मार्क्सवाद्यांची अपेक्षा आशिल्ली. पूण प्रत्यक्षांत मात कम्युनिस्ट पक्षाचें बळ खास करून अर्दविकसित आनी अविकसित देशांत वाडलें. पयल्या म्हाझुजाउपरांत चीनांत कम्युनिस्ट पक्षान सत्ता हातासली. दुसरें म्हाझूज सोंपता आसतनाच रशियान उदेंत युरोपीय देशांत कम्युनिस्ट पक्ष आपल्या लश्करी बळाच्या नेटाचेर सत्तेर हाडले. हंगेरी, चेकोस्लोव्हाकिया, पोलंड, रूमानिया, बल्गेरिया, उदेंत जर्मनी ह्या देशांत कम्युनिस्ट पक्षाचें बळगें दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत एकदम मर्यादित आशिल्लें. पूण रशियाच्या पालवाक लागून ते पक्ष अधिकाराचेर आयले. उदेंतेकडेन चीनच्या कम्युनिस्ट पक्षान आपल्या प्रभावाचो आंवाठ कोरिया, इंडोनेशिया, ख्मेर प्रजासत्ताक, मलेशिया, ब्रह्मदेश, श्रीलंका आनी कांय प्रमाणांत भारत ह्या देशांनी वाडयलो. कम्युनिस्ट पक्ष खास करून कृषी आनी उद्येगीक नदरेन मागाशिल्ल्या अर्दविकसित देशांनी संघटित जावपाक पावलो. आफ्रिका आनी दक्षिण अमेरिका ह्या खंडांतल्या कांय देशांतूय कम्युनिस्ट संघटनेचीं मुळां घट जायत आसात.

रशिया भायल्या देशांतले कम्युनिस्ट पक्ष, सुमार १९५० मेरेन, रशियांतल्या कम्युनिस्ट पक्षाचे आज्ञेवरवीं वावर करताले ही गजाल तात्त्विक नदरेन जरी थोड्यांक पटना, तरी ती वेव्हारांतली खरी वस्तुस्थिती आसा. रशियन क्रांतीउपरांत सतत तीस वर्सां रशियाचेंच फुडारपण संवसारांतल्या सगळ्या कम्युनिस्ट पक्षांनी बिनविरोध मान्य केलें. पूण १९४८ त, युगोस्लाव्हियान पयलेच खेप ह्या अद्वितीय फुडारपणाक आव्हान दिवन आपल्या देशांतल्या कम्युनिस्ट पक्षाचें धोरण स्वतंत्र आसचें, असो आग्रो केलो. ते उपरांत, चीन देशान आपल्या देशाचो कम्युनिस्ट पक्ष स्वतंत्र रितीन धोरण आंखतलो अशें जाहीर केलें. स्टालिनच्या मरणाउपरांत हंगेरी, पोलंड, चेकोस्लोव्हाकिया ह्या देशांतल्या कम्युनिस्ट पक्षान रशियन फुडारपणाआड अपेशी उठाव केले. रशिया आनी चीन हांच्यामदले दुस्मानकायेचो परिणाम आशियांतल्या, द. अमेरिकेंतल्या आनी आफ्रिकेंतल्या चडशा सगळ्याच कम्युनिस्ट पक्षाच्या धोरणाचेर घडून आयलो. ताका लागून ह्या देशांत रशियावादी आनी चीनवादी अशे कम्युनिस्ट पक्षांचे दोन पंगड जाल्ले दिसून येतात.

**ध्येय आनी धोरण:** सगळ्या कम्युनिस्ट पक्षांचें श्रध्दास्थान मार्क्स आनी एंजेल्स हांचे ग्रंथ अशें मानतात. तातूंत फुडें लेनिन आनी स्टालिन हांणी केल्ली मार्क्सवादाची विस्कटावणी हाची म्हत्वाची भर पडली. स्टालिनच्या मरणाउपरांत ह्या भाष्यकारांतल्यान ताचें नांव वगळळें.

कम्युनिस्ट पक्षाच्या उद्देशाचीं सूत्रां अशीं: १. देशांतलीं सगळीं उत्पादनसाधनां समाजाचे मालकीचीं करप. तातूंत उद्येगधंदे आनी शेतकाम हांचोय आस्पाव आसा. २. कम्युनिस्ट पक्षाच्या फुडारपणान क्रांती करून सत्ता हातासप. ३. सशस्त्र क्रांतीचेर विश्वास दवरप. ४. राज्यक्रांतीउपरांत हेर पक्ष आनी संघटना बरखास्त करप. ५. शिस्तबध्द आनी कृतिशील अशा पक्षफुडारपणाकडेन समाजान राजकीय शासन आनी अर्थीक साधनां हांची जापसालदारकी सोंपोवप.

**रशियन कम्युनिस्ट पक्ष:** एकुणिसाव्या शतमानाचे अखेरेक उद्येगीक मळावेल्या असमाधानाक लागून रशियांत मार्क्सवादी चळवळ सुरू जाली. प्लेखानॉव्ह ह्या क्रांतिकारकान मार्क्सवादी साहित्य परदेशांतल्यान रशियांत गुप्तपणान व्हरून रशियन भाशेंत ताचो प्रचार सुरू केलो. सुर्वेक मार्क्सवादी पंगडाचो आवांठ मर्यादित आशिल्लो. लेनिन आनी ताचे वांगडी हेय त्या गटांत सामील जाले. १८९० त रशियांत चोवीस लक्ष कामगार आशिल्ले. १८९८ त, मिन्स्क हांगा रशियन सोशल डेमॉक्रॅटिक लेबर पार्टीची थापणूक जाली. रशियन कम्युनिस्ट पक्षाची तेन्नासावन अधिकृतपणान थापणूक जाली अशें मानतात. १९०३ त, ह्या पक्षांत फूट पडली आनी बोल्शेव्हिक (व्हडलो) आनी मेन्शेव्हिक (धाकलो) अशे दोन पंगड तातूंतल्यान वेगळे जाले. लेनिन आनी ताचे वांगडी हांचो बोल्शेव्हिक पंगड चड प्रभावी आशिल्लो. रशियन क्रांतीच्या वेळा हो पंगड आघाडेचेर आशिल्लो. मार्च १९१८ त, ह्या पंगडान रशियन कम्युनिस्ट पार्टी (बोल्शेव्हिक) हें नांव घेतलें. १९२५ त, ऑल युनियन कम्युनिस्ट पार्टी (बोल्शेव्हिक) अशें नांव बदललें. ते उपरांत १९५२ त, बोल्शेव्हिक हो शब्द पुराय वगळळो आनी 'कम्युनिस्ट पार्टी ऑफ द सोव्हिएत युनियन' अशें नांव ताका दिलें.

**कम्युनिस्ट पक्षाची रचणूक:** रशियांतल्या कम्युनिस्ट पक्षाचे धर्तेचेरूच हेर देशांतल्या कम्युनिस्ट पक्षांच्यो घटना आनी नेम तयार केल्यात. कम्युनिस्ट पक्ष ज्या ज्या देशांत सत्तेर आसतात, थंय सबंद राज्याखातीर एकूच एक संघटना अस्तित्वांत आसा. हेर कांय देशांत गेल्या कांय वर्सांत रशिया आनी चीन ह्या देशांतल्या कम्युनिस्ट पक्षांकडेन निश्ठा आशिल्ले दोन वेगवेगळे पंगड तयार जाल्यात. कम्युनिस्ट पक्षाचे रचणुकेंत एकदम तळाकडेन प्राथमिक संघ आनी तेउपरांत जिल्हो, प्रदेश, राज्य ह्यो क्रमान वयल्या पक्षकेंद्रांची थापणूक करतात. दरेका सकयल्या पांवड्यावेल्यान वयल्या पांवड्याचेर प्रतिनिधी धाडटात. प्रदेशाभशेन वेवसाय केंद्रांनीय मुळाव्या पक्षसंघांची थापणूक करतात. कारखाने, भौशिक मळ, शेतकाम, खणी, वीजनिर्मणेचीं केंद्रां, विद्यापीठां, रेल्वे आनी हेर येरादारीचीं केंद्रां अशा सगळ्या सुवातींनी पक्षसंघ वावर करीत आसतात. अशा सगळ्या पक्षसंघांतल्यान पिरॅमिडप्रमाण पक्षाची संघटना तयार जाता. तातूंत पक्षमहासभेक सगळ्यांत उंचेली सुवात आसता. पूण प्रत्यक्ष वेव्हारांत सर्वोच्च मध्यवर्ती समिती सगळ्यांत चड बळिश्ट आनी म्हत्वाचे निर्णय घेवपी संघटना आसता.

पार्टी काँग्रेसच्या दोन अधिवेशनांच्या मदल्या काळांत पक्षाच्या ध्येयधोरणाचें मार्गदर्शन सेंट्रल कमिटी करता. पार्टी काँग्रेसचें अधिवेशन दर चार वर्सांनी जावचें असो नेम आसलो तरी काटेकोरपणान तो पाळटातूच अशें ना. पार्टी काँग्रेसच्या अधिवेशनांत सेंट्रल कमिटी आनी सेंट्रल ऑडिटिंग कमिशन हांची वेंचणूक जाता. सेंट्रल ऑडिटिंग कमिशन पक्षाचो अर्थीक वेव्हार पळेता आनी सेंट्रल कमिटीकडेन पक्षाच्या राजकीय आनी हेर सगळ्या धोरणांची जापसालदारकी आसता. दर स म्हयन्यांनी सेंट्रल कमिटीची बसका जावंक जाय, असो नेम आसा.

**पक्षाची कार्यपध्दत:** सेंट्रल कमिटीच्या सभासदांची तीन विभागांत

वांटणी करून तांचेकडेन वेगवेगळीं कामां सोंपयतात. १. अध्यक्षमंडळ (प्रिसीडियम): हाणें सेंट्रल कमिटीच्या कामाची आनी निर्णयाची अंमलबजावणी करपाची आसता. सेंट्रल कमिटीच्या दोन अधिवेशनांच्या मदल्या काळांत प्रिसीडियम सगळें धोरण थारायता. पक्ष आनी सरकार हांचेविशींचे निर्णय घेवपी सर्वश्रेश्ठ संघटन म्हूण हाचो उल्लेख करतात. प्रिसीडियमाक १९५२ मेरेन 'पॉलिटब्युरो' अशें म्हण्टाले. २. चिटणीस मंडळ (सेक्रेटरिएट): पक्षाचे निर्णय चालीक लावप, पक्ष कार्यकर्त्यांची वेंचणूक करप, तांच्या कामाचेर देखरेख दवरप तशेंच उद्येगधंदे, शेतकाम, वेपार, शिक्षण हांचेविशीं पक्षान थारायल्ल्या धोरणाचो प्रचार आनी प्रसार करप, परदेशांत पक्ष आनी सरकार हांचीं धोरणां थारावप, हीं सगळीं कामां सेक्रेटरिएटाक करचीं पडटात. ३. नियंत्रण मंडळ (कंट्रोल कमिशन): पक्षाच्या भितरल्या शिस्तींचेर नदर दवरपाची जापसालदारकी कंट्रोल कमिशनचेर आसता. सकयल्या पक्ष केंद्रांतल्या सदस्यांचे मतभेद, वाद हांचो निवाडो हें कमिशन करता.

पक्षान घेतिल्ले निर्णय सगळ्या सभासदांचेर बंधनकारक आसतात. ह्या निर्णयांच्या आड भासाभास करप, जाहीरपणान वा गुप्तपणान ताचेविशीं उलोवप हाचेर बंदी आसा, आनी तेखातीर सभासदांक कडक ख्यास्त थारायल्ली आसता. एकाद्र्या सभासदाक कांय निर्णयांविशीं आपलें मत परगटावपाचें आसत जाल्यार ताणें आपले प्रस्न पक्षाचे बसकेंत चर्चा जाता तेन्ना परगटावपाचे आसतात. हे नेम मोडपी सभासदाक देहदंडामेरेन कडक ख्यास्त जावं येता. हाका लागून एकाच वेळा हजारांनी सभासदांक पक्षांतल्यान काडून उडोवपाचीं उदाहरणां रशियन कम्युनिस्ट पक्षाच्या इतिहासांत बरेच फावट घडल्यांत. खूब जाणांक हद्दपारीची ख्यास्तूय जाल्या. रशियांत पक्षशुध्दीकरणाचे अशे प्रकार १९२४ सावन १९३४ मेरेन पांच फावट घडले. १९२९ त, रासवळ शेतकामाच्या प्रयोगाक विरोध करपाच्या आरोपावेल्यान खूब मोट्या प्रमाणांत पक्षाचें शुध्दीकरण जालें. १९३३ त घटनात्मक सुदारणांच्या संदर्भांत अशेंच मोटें शुध्दीकरण जालें. १८ वर्सां पिराय जाल्ल्या खंयच्याय उमेदवाराक पक्षाचो सभासद जावंक मेळटा. पक्षाचो सभासद जावप जितलें कठीण आसा, तितलेंच पक्षांतल्यान आपूण जावन भायर पडपूय कठीण आसा.

**पक्ष आनी शासनसंख्याः** पक्षाची यंत्रणा आनी सरकारी कारभाराची यंत्रणा हांचो दोगांयचो एकामेकांकडेन फाव तो मेळ आसूंक जाय. तातूंतूय पक्ष यंत्रणेचो कारभार यंत्रणेचेर शेक आसता. सरकारी खात्यांच्या सगळ्या शाखांचेर त्या त्या पांवड्यावयल्या पक्ष सदस्यांची पाळत आसता. पक्षाच्या भितरल्यो सभा आनी बसका हांच्या कामाविशीं वरिश्ठ पक्षफुडाऱ्यांकडेन म्हयन्याळे अहवाल धाडचे पडटात. पक्षाच्या सगळ्या आंगांनी शिस्तीचे आनी आज्ञापालनाचे खर नेम पाळचे पडटात. कम्युनिस्ट पक्षाच्या ध्येयधोरणाक आनी संघटनेक पूरक अश्यो आनीकूय तीन संघटना आसातः १. युवकसंघ (कॉम्सोमॉल) २. कुमार-संघ (पायोनियर्स) आनी ३. बालसंघ (लिटल ऑक्टोबरिस्ट). पक्ष संघटनेचे रचणुकेंतल्यो सगळ्यांत उंचेल्यो म्हत्वाच्यो शाखा अश्योः १. मध्यवर्ती पक्ष महासभा (ऑल युनियन पार्टी काँग्रेस) २. मध्यवर्ती लेखापरीक्षण मंडळ (सेंट्रल ऑडिटिंग कमिशन) ३. मध्यवर्ती समिती (सेंट्रल कमिटी) ४. अध्यक्ष मंडळ (प्रिसीडियम) ५. चिटणीस मंडळ (सेक्रेटरिएट) ६. नियंत्रण मंडळ (सेंट्रल कमिशन).

कम्युनिस्ट पक्षाचो प्रसार संवसारांतल्या हेर राश्ट्रांतूय रोखंडोच पातळ्ळो. १. **अमेरिकाः** समाजवादी पक्षांतल्यान फुटून आयिल्ल्या लोकांनी अमेरिकेंत इ.स. १९१९ त कम्युनिस्ट पक्षाची थापणूक केली. सुर्वेक ताचे जायते पंगड आशिल्ले. सगळ्यांत व्हडलो पंगड 'कम्युनिस्ट पार्टी ऑफ अमेरिका' ह्या नांवान सगळ्याक प्रचार करतालो. तातूंत जायत्यो परदेशी दाव्यो संघटना आनी समाजवादी पक्ष हांचोय आस्पाव आशिल्लो. तातूंतले 'रशियन फेडरेशन', 'मिशिगन सोशलिस्ट पार्टी', 'कम्युनिस्ट लेबर पार्टी' हे म्हत्वाचे पंगड आसात. मे १९२१ त, कॉमिन्टर्न बसकेक (कम्युनिस्ट इंटरनॅशनल) अमेरिकेंतल्या सगळ्या कम्युनिस्टांक एकठांय येवचें पडलें आनी 'कम्युनिस्ट पार्टी ऑफ अमेरिका' ह्या पक्षाच्या नांवासकयल सगळे कम्युनिस्ट एकठांय आयले.

२. **इटलीः** इटलींतल्या राजकी पक्षांत कम्युनिस्ट पक्ष दुसऱ्या क्रमांकाचेर आसा आनी तो अस्तंत युरोपीय राश्ट्रांतलो सगळ्यांत व्हडलो कम्युनिस्ट पक्ष जावन आसा. इटलींतल्या अतिरेकी दाव्या समाजवादी लोकांनी हो पक्ष इ.स. १९२१ त घडोवन हाडलो आनी ह्या पक्षाचे प्रतिनिधी कायदे मंडळांत वेंचुनूय आयले. पूण इ.स. १९२६ त, मुसोलिनीन सगळे राजकीय पक्ष बेकायदेशीर थारायले. ताची फॅसिस्ट राजवट सुरू जातकच कम्युनिस्ट पक्षान आपलें कार्य भूंयगत पध्दतीन चालू दवरलें. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत इटलीच्या कम्युनिस्ट पक्षान, फॅसिस्टांआड आशिल्ल्या पांच राजकीय पक्षांचें जें संमिश्र मंत्रिमंडळ तयार केल्लें, तातूंत वांटो घेतिल्लो. पूण ख्रिश्चन डेमॉक्रॅटिक पक्षाचो पंतप्रधान दे गास्पेरी हाणें इटालियन कम्युनिस्ट पक्ष आनी इटालियन समाजवादी पक्ष हांकां वगळून मे १९४७ त नवें मंत्रिमंडळ तयार केलें. पूण फुडल्या वेंचणुकांनी इटालियन कम्युनिस्ट पक्षाक यश मेळ्ळें आनी ताका लागून ह्या पक्षाचो इटलींतले राजकीय जिणेचेर खोल परिणाम जाला.

३. **चीनः** चीनांत २५० वर्सां चालू आशिल्ली मांचू घराण्याची राजवट, राश्ट्रीय चळवळीक लागून पुराय सोंपली. डॉ. सन्-यत्-सेन हाच्या फुडारपणाखाल आयिल्लें चिनी प्रजासत्ताक आनी यादवी झुजाच्या काळांत सत्तेर आयिल्लो चँग-कै-शेक हाचो कॉमिंटांग पक्ष हांचेकडल्यान परिस्थितींत व्हडलोसो बदल घडून आयलोना. चीनांतले शासनवेवस्थेंतलो भ्रश्टाचार आनी सगळ्या राश्ट्राक आयिल्लें दुबळेपण हाका लागून अस्वस्थ जाल्ल्या बुध्दिजीवी वर्गान - प्राध्यापक, संपादक, महाविद्यालयांतले विद्यार्थी हांणी एक चळवळ उबी केली. हे चळवळींतल्यान इ.स. १९२० त चिनी कम्युनिस्ट पक्षाचो जल्म जालो. मार्क्सवाद आनी रशियन क्रांती हाका लागून प्रभावित जाल्ल्या विचारवंतांनी शांघाय हांगा कम्युनिस्ट पक्षाची थापणूक केली. १९२१ त, कॅन्टन, शांगची, पेकिंग, हुआन, शांघाय ह्या प्रांतांनी पक्षशाखांची थापणूक जाली. इ.स. १९३५ त, पक्षाचे परिशदेंत माओ हो पक्षाचो अध्यक्ष आनी निर्विवाद फुडारी जालो. चीनांतलो कम्युनिझम हो चिनी परिस्थिती आनी समाजवेवस्था हांकां पोशक आसतलो अशी जाणवीकाय माओन पक्ष कार्यकर्त्यांक १९४२ त दिली. माओन इ.स. १९४९ त चीनची जैतिवंत क्रांती घडोवन हाडटकच, पक्ष कार्यकर्त्यांमुखार निश्चित आनी स्पश्ट असो राजकीय आनी अर्थीक कार्यक्रम दवरलो. चीन आनी चीनवादी कम्युनिस्ट पक्ष माओ-त्से-तुंग हाचें भाश्य अधिकृत अशें मानतात.

रशिया आनी चीन ह्या दोनूय देशांतले कम्युनिस्ट पक्ष मार्क्सवादी तत्त्वगिन्यानाचो प्रचार करीत आसले, तरी दोनूय पक्षांनी संघटना-कार्यपध्दत आनी तत्त्वगिन्यान हातूंत उपाट फरक दिसून येता. रशियन कम्युनिस्ट पक्षांत शेतकामत्यांचें प्रमाण सामकें थोडें आसा. आयचो रशियन कम्युनिस्ट पक्ष आनी संवसारांतले चड करून सगळेच कम्युनिस्ट पक्ष मध्यम वर्गीय जाल्यात. चिनी कम्युनिस्ट पक्षांत मात शेतकामत्यांचो आंकडो भरपूर आसा, पूण हालींच जाल्ले चिनी कम्युनिस्ट पक्षाचे राश्ट्रीय परिशदेंत बुध्दिजीवी वर्गाक पक्षाकडेन चडांत चड आकर्शित करपाखातीर यत्न करचे, असो थराव केला.

४. **पोलंडः** 'पोलिश युनायटेड वर्कर्स पार्टी' हो पोलंडांतलो बळीश्ट पक्ष आसा. १९४८ त कम्युनिस्ट पक्ष आनी समाजवादी पक्षांतलो दावे पंगड हांणी एकठांय येवन ह्या पक्षाची थापणूक केली. पोलंडांतले पुराय राजकी, समाजीक आनी संस्कृतीक जिणेचेर ह्या पक्षाचें नियंत्रण आसा पोलंड वार्सा कबलातीचो वांगडी आशिल्ल्यान ताचें परराश्ट्र धोरण आनी लश्करी हालचाल रशियाच्या हुकुमावरवीं चलता.

५. **युगोस्लाव्हियाः** युगोस्लाव्हियांत १९१९ त, 'सोशलिस्ट वर्कर्स

पार्टी' ह्या नांवान कम्युनिस्ट पक्षाची थापणूक जाली. १९२०-१९५२ ह्या काळांत हो पक्ष 'कम्युनिस्ट पार्टी ऑफ युगोस्लाव्हिया' ह्या नांवान वळखताले. तेउपरांत 'कम्युनिस्ट्स ऑफ युगोस्लाव्हिया' अशें ताचें नांव रुढ जालें. १९४८ त, युगोस्लाव्हियाच्या कम्युनिस्ट पक्षाचे रशियन कम्युनिस्ट पक्षाकडेन मतभेद जाले. युगोस्लाव्हियान रशियाचें फुडारपण न्हयकारलें. युगोस्लाव्हियाचो अध्यक्ष मार्शल टिटो हाणें आपलें परराश्ट्र धोरण स्वतंत्रपणान आंखलें. युगोस्लाव्हियाच्या कम्युनिस्ट पक्षान रशियाच्या धोरणापरस वेगळें अशें राश्ट्रीय साम्यवादी धोरण आपणायलें. मार्क्सवादापरस वेगळेपण आशिल्ल्या ह्या विचाराक थंय 'टिटोवाद' अशें म्हण्टात.

**६. भारतः** २६ डिसेंबर १९२५ दिसा मानवेंद्रनाथ रॉय आनी कांय ब्रिटीश कम्युनिस्टांनी एकठांय येवन मार्क्सवादी विचारसरणेचे संघटनेची थापणूक करपाचें थारायलें. अशे तरेन 'कम्युनिस्ट पार्टी ऑफ इंडिया' (CPI) हो पक्ष जल्माक आयलो. ह्या पक्षाचीं ध्येयधोरणां आंतरराश्ट्रीय मळार संवसारांतल्या विंगड विंगड देशांतल्या कम्युनिस्ट पक्षांक मार्गदर्शन करपी 'कम्युनिस्ट इंटरनॅशनल' हे संघटनेच्या तत्त्वांचेर आदारीत आसतलीं, अशें थारलें. ह्या वेळार कांय कम्युनिस्ट पक्षफुडाऱ्यांनी रशियेक भेट दिली. ल्हवल्हव पक्षाच्या वावराक नेट आयलो. सुर्वेक ह्या पक्षांत मानवेंद्रनाथ रॉय, श्रीपाद अमृत डांगे, जी. एम्. अधिकारी, सी. पी. दत्त, डॉ. हफिस, नलिनी गुप्ता, अयोध्या प्रसाद, शौकत उस्मानी हे फुडारी आशिल्ले. ब्रिटिशांआड स्वातंत्र्याझुजाखातीर चळवळ करपाक कम्युनिस्ट पक्षाचो हातभार आशिल्लो. पूण फुडें १९४२ तल्या असहकार चळवळींत वांटो घेनासतना ब्रिटिशांक फाटबळ दिल्ल्याचो आरोप तांचेर जालो. ह्या कम्युनिस्ट पक्षाच्या हाताखाल देशांतल्यो चडश्यो कामगार संघटना वावुरताल्यो. एप्रिल १९५७ त, केरळ राज्यांतल्या सार्वत्रिक वेंचणुकांनी जैत मेळोवन थंय कम्युनिस्ट पक्षाचें सरकार वेंचून आयलें.

१९५६ त, संवसारभरच्या कम्युनिस्ट चळवळींभितर जी थोडीभोव फूट पडिल्ली तिचो व्हडलोसो प्रभाव भारतीय कम्युनिस्ट पक्षाचेर पडलोना. १९६४ त, भारत-चीन झुजाच्या प्रस्ताचेर मतभेद जावन श्रीपाद अमृत डांगे हाका ताच्या बऱ्याच वांगड्यांसयत कम्युनिस्ट पक्षांतल्यान बडतर्फ केलो. तेन्ना ताणें 'कम्युनिस्ट पार्टी ऑफ इंडिया' (मार्क्सवादी) म्हळ्यार CPI(M) ह्या नव्या पक्षाची थापणूक केली. हाचेउपरांत CPI(M) पक्षांतल्या कांय वांगड्यांभितर मतभेद जावपाक लागले. कांय वांगडी चिनी क्रांतीचो आदर्श दोळ्यांमुखार दवरून भारतांत क्रांती घडोवंक सोदताले. ते पक्षांतल्यान भायर पडले. चारु मुजुमदार हाच्या फुडारपणाखाल नक्सलबारी (अ. बंगाल) हांगा सशस्त्र क्रांती घडोवन हाडपाचो यत्न करपी ह्या पंगडान CPI(ML) (मार्क्सवादी लेनिनवादी) ह्या नव्या पक्षाची थापणूक केली. ह्या पक्षांतूय बरेच मतभेद जाले आनी सद्या ल्हान-व्हड अशे स्वताक कम्युनिस्ट म्हणून घेवपी सुमार पन्नासांवयर राजकीय कम्युनिस्ट पक्ष भारतांत अस्तित्वांत आसात.

गोंयांत CPI, CPI(M) आनी AICP अश्या कम्युनिस्ट पक्षांच्यो शाखा आसात. विद्यार्थी आंदोलनांतल्यान कम्युनिस्ट चळवळीक लागीं पाविल्ल्या कांय तरनाट्यांनी CPI(ML) सारक्या अतीदाव्या कम्युनिस्ट पक्षांक लागीं केले.

- कों. वि. सं. मं.

## करंडे, रामचंद्र वामन (फोंडुशास्त्री): (जल्मः १८६४, माशेल; मरणः १९४६, माशेल).

एक सुदारणावादी आनी शैलीकार साहित्यिक. वेदविद्या आनी वैजकी शास्त्राची वळख ताका घरचे परंपरेंतल्यान जाली. फुडें ह्या विशयांत तो खांपो तज्ञ जालो. ज्योतिशशास्त्राचो आनी धर्म कर्मांतल्या विधींचो जो तंत्रीक भाग आसता, ताचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. धर्मशास्त्रावेल्या ग्रंथांचें वाचन केलें. अशे तरेन संस्कृत, साहित्य, धर्मशास्त्र, कर्मकांड, आयुर्वेद आनी ज्योतिशशास्त्र ह्या विशयांचो खोलायेन अभ्यास करून ताणें शास्त्री ही पदवी मेळयली. तो चडसो नेमाळ्यांतल्यान लिखाण करतालो. सुमार १८९४ वर्सा 'हितचिंतक' ह्या पणजेसावन उजवाडाक येवपी सातोळ्यांतल्यान 'द्विरेफ' ह्या टोपण नांवान ताणें समाजीक विशयाचेर बरोवंक सुरवात केली. ताच्या रामचंद्र ह्या नांवांत दोन रकार आशिल्ले. म्हूण ताणें 'द्विरेफ' हें नांव घेतलें आनी द्विरेफ हाचो अर्थ भोंवर जाता. देखून ताणें आपल्या आपल्या बरपावळीक 'गुंजारव' हें नांव दिलें. ह्याच नांवान ताणें फुडें चाळीस वर्सां बरप केलें.

गोंयांतल्या म्हत्वाच्या अशा नेमाळ्यांनी ताणें बरपावळ केल्ली आसली तरी साहित्याच्या मळावेलो ताचो खरो वावर 'सत्संग' ह्या नेमाळ्यांतल्यान जालो. १९०१ वर्सा कुंभारजुवें वाठारांत श्रीनिवाद लखू भांडारे हाणें छापखानो हाडलो. ह्या छापखान्यांतल्यान एक नेमाळें काडचें, असो विचार करंडेशास्त्रीच्या मनांत आयलो. भांडारेनूय ताका तेंको दिलो. अशे तरेन करंडेशास्त्रीच्या संपादकपणाखाल 'सत्संग' नेमाळें येवंक लागलें. ह्या नेमाळ्यावरवीं ताणें भरपूर बरपावळ केल्ली. फुडें ताणें सत्संग नेमाळ्यांतल्यान 'तोच मी' ह्या टोपण नांवान कविता बरोवंक सुरवात केली. पूण कवितेपरस ताचें गद्य बरप चड बरें थारलें. ताचेवरवीं गद्य बरपाक बरी शैली मेळ्ळी. देखुनूच ताका पयलो मराठी शैलीकार साहित्यिक अशें म्हण्टात. ताणें आपले बरपावळींतल्यान सगळे विशय हाताळ्ळ्यात, तरी शिक्षण प्रसाराचेर ताचो चड भर आशिल्लो. जाय ते फावट ताणें ह्या विशयाचेर तळमळीन बरप केलां. पारतंत्र्याविशीं ताची खंत ताच्या बरपांतल्यान जाणवताली. ताच्या बरपाचे शैलींतले उपरोध, उपहास आनी नर्मविनोद हीं आंगां उक्तीं जातालीं. ताचें शिक्षण जरी आदल्या काळांतलें आसलें, तरी तो सुदारक आशिल्लो. बायलांक शिक्षण दिवपाविशीं तो उर्बा दितालो. हिंदुधर्मांतल्यो जातीपाती, भुरगेपणांत लग्न, पोटजातींतलीं लग्नां, परदेशगमन ह्या विशयांचेर ताची मतां सुदारणावादी आशिल्लीं. ताचें 'कैवल्यपूर मठाचा इतिहास' हें एकूच पुस्तक उजवाडाक आयलां.

- कों. वि. सं. मं.

## कर- १:

समाजांत वेवस्था राखपाखातीर आनी लोकांच्यो कल्याणकारी गरजो पुराय करपाखातीर शासनाक येणावळीची गरज लागता. ही येणावळ खुबशा वाटांनी शासन एकठांय करता. हातूंतली एक वाट म्हळ्यार लोकांकडल्यान सक्तीन वसूल करून घेतिल्लो दुडू वा जिन्नस हांच्या रुपांतली येणावळ. अशे तरेचे सक्तीन वसूल करून घेतिल्ले येणावळीक 'कर' अशें म्हण्टात.

प्रजेच्या खाजगी उत्पन्नांतल्यान कराच्या रुपान खासा वांटो घेवपाचो राजाक हक्क आसा, ही भावना भारतांत पयलींसावन चलत आयल्या. पूण हो कर थोडोच आनी ताका लागून प्रजेचेर भार पडचोना असो आसचो, अशें चडशा सगळ्या धर्मशास्त्रकारांनी सांगून दवरलां. राजान प्रजेच्या उत्पन्नाचो सवो भाग कर म्हूण घेवंचो, असो नेम आदल्या स्मृतिकारांनी दिला. कर कशे पध्दतीन घेवंचो हाचेविशीं मनू म्हण्टाः

यथा फलेन युज्येत राजा कर्ता च कर्मणाम् ।
तथाऽवेक्ष्य नृपो राष्ट्रे कल्पयेत् सततं करान् ।।
यथाल्पाल्पमदन्त्याद्यं वार्योकोवत्सषट्पदाः ।
तथाल्पाल्पो ग्रहीतव्यो राष्ट्राद्राज्ञा ऽ ऽ ब्दिकःकरः।।

अर्थ- राजा फलान युक्त जावंचो (राजकर्मां चलोवपाक आडमेळीं येवचीं न्हय) आनी कर्मांचो कर्तोय (वेपारी, उदमी, शेतकार) फलान लाभयुक्त जावंचो. अशे तरेन विचार करून राजान राश्ट्रांतल्या लोकांकडल्यान सार्वकाल कर घेवचे. जेप्रमाण जळू, पाडूक आनी भुंगुल्लो हे प्राणी (रगत, दूद आनी म्होंव हे पदार्थ) थोडेथोडे करून खातात, तेप्रमाण (मूळ भांडवल नश्ट जावंचेंना म्हळ्यार राजान आपणाकडल्यान कर घेतलो, हें प्रजेक जाणवचें लेगीत ना) अशे तरेन राजान राश्ट्रांतल्यान थोडो थोडो वर्सुकी कर घेवंचो.

ताचे फुडें मनून सांगलां- राजान अधाशीपणा करून प्रजेक मुळासकट पिळून काडची न्हय. तशें केल्यार रांजा आनी प्रजा ह्या दोगांचेरय अनर्थ येतलो.

जमनीखेरीज खणी, मीठ, वेपारी माल, नौकानयन, हतयांचे कळप ह्यो गजाली सरकारी उत्पन्नाच्यो आसतात, अशें महाभारतांत सांगलां. राजान जांचेर कर बसोवचो न्हय, अश्यो गजाली फुडलेतरेन आशिल्योः

अटवी पर्वताश्चैव नद्यस्तीर्थानि यानि च।
सर्वाण्यस्वामिकान्याहुर्नास्ति तत्र परिग्रहः ।।

अर्थ- रानां, दोंगर, न्हंयो आनी तीर्थां हांचेर कोणाचोच अधिकार ना. देखून, राजान हांचेर कर घेवंचो न्हय.

कर पध्दतीक लागून समाजाचे अर्थीक बांदावळीचेर बरेच परिणाम जाता. कृषिप्रधान अर्थीक वेवस्था आसतना चडशा करांची येणावळ शेतांतल्यान वसूल जाताली. उद्येगीक क्रांती जातकच, उद्येगाविशींचे कर हो करप्रणालीचो मुखेल आदार जालो. करवसुलींत जे तरेन सक्ती आसता, तेचप्रमाण हे रकमेच्या बदलाक खासा खंयचीच सेवा राज्याकडल्यान दिवपाची चाल ना. देखीक- नागरिकान रु. ५०० इतलो कर भरलो, जाल्यार हेच रकमेच्या वा तिच्या मोलाचें फारीकपण म्हूण खंयचीच खाशेली सेवा करदात्याक शासनाकडल्यान मेळना.

अठराव्या शतमानांतलो अर्थशास्त्रज्ञ जे. बी. से हाचें मत अशें आशिल्लें- 'कर जितले कमी तितले बरे.' दरेक कर म्हळ्यार अर्थवेवस्थेवयलें संकट, अशें त्या काळांतल्या अर्थशास्त्रज्ञांचें म्हणणें आशिल्लें. ॲडम स्मिथ हाचें मत अशें आसा की स्वतंत्रताय ही अर्थीक उदरगतीपरस चड म्हत्वाची आसा. देखुनूच, राश्ट्राच्या संरक्षणाखातीर जो खर्च जाता, तातूंत जण एका नागरिकान निजाच्या अर्थीक बळग्याप्रमाण वांटो उबारपाकूच जाय. हो वांटो म्हळ्यार कर. कर आकारता आसतना कसली नदर आपणावची हेविशीं वेगवेगळ्या अर्थशास्त्रज्ञांनी वेगवेगळीं मतां मांडल्यांत. तातूंतली एकूय विचारसरणी परिपूर्ण अशी ना. देशांतली अर्थवेवस्थेची स्थिती कशी आसा आनी सरकाराची मोख खंयची हाचेवेल्यान कर आकारपाचें धोरण थारावपाचें आसता.

**करांचो उपेग:** समाजांतल्या गरजेच्या वस्तूंचे उत्पादन वाडीक करांवरवीं उर्बा दिवं येता. करांक लागून उत्पादनाक फाव ती दिका मेळटा. करांचो उपेग समाजीक कल्याणाखातीर जाता. शासनाक खर्चाखातीर येणावळ मेळोवन दिवप, गिरेस्त आनी गरीब हांचेमदली विशमताय उणी करप, वाडट्या दरांचेर नियंत्रण दवरप, पुराय रोजगार निर्माण करपाक पालव दिवप, विदेशी वेव्हारांतली विषमता पयस करप, प्रादेशिक असमतोल पयस करप हे करांचे कांय उपेग आसात.

**कर आकारपाचीं तत्त्वां:** करदात्याकडल्यान कर घेतना खंयचेच व्यक्तीचेर अन्याय जावंचोना हाचेकडेन सरकारान लक्ष दवरचें पडटा. व्यक्तीची कर दिवपाची कुवत पळोवन कराची रक्कम, ती केन्ना फारीक करपाची आनी कसले पध्दतीन फारीक करपाची, हें निश्चित आसूंक जाय. कराची वसुली करतना करदात्याची तजवीज जातली, हें ध्येय सरकारान दोळ्यांसामखार दवरूंक जाय. वसुलीचेर जावपी खर्च कमीत कमी आसूंक जाय. कर आकारपाक खर्च जाता, ताचे परस करापसून मेळपी येणावळ चड आसा, हाची सरकारान खात्री करूंक जाय. हेभायर कर पध्दतींत लवचिकता, सरलता, पर्याप्तता, सारकेपण, वैधता, विविधताय हांचेरुय भर दिवंक जाय.

**करांचो आघात वा भार:** येणावळींतल्यान कर दितात म्हळ्यार तितलेच रकमेन ते व्यक्तीची येणावळ उणी जायत आसता. देखुनूच जण एकलो कराचो भार दुसऱ्याचेर धुकलपाचो यत्न करता. देखीक- वस्तूंचेर विक्री कर बसयल्यार तो वेपाऱ्याक दिवंचो पडटा. म्हळ्यारूच कराचो आघात (impact) वेपाऱ्याचेर पडटा. पूण जर त्या वेपाऱ्यान कराचे रकमेइतलें वस्तूचें मोल वाडयलें आनी गिरायकांकडल्यान वसूल केलें, तर कराचो भार (incidence) गिरायकांचेर पडटा. देखून कराचो भार कोण सोंसता ताका म्हत्व आसता. जितले रकमेचो कर भरता तितली रक्कम ताका खर्च करपाक कमी पडटा. देखून, कर बसयतना कर कोण दिता हाचेर सरकार आपलें लक्ष दवरता. करांक लागून सेवन, उत्पादन, उत्पादक-घटकांचें पुनर्वांटप (reallocation) आनी परदेशी वेपार हातूंत बदल जाता, म्हूण खासा करांचो भार नक्की कोणाचेर पडटा, हें निश्चितपणान सांगप कठीण आसा.

**करांचे प्रकार:** प्रत्यक्ष कर आनी अप्रत्यक्ष कर अशे करांचे दोन प्रकार आसात. ह्या दोनांत खरो फरक खंयचो हेविशीं अर्थशास्त्रज्ञांमदीं एकमत ना. सामान्यतायेन प्रत्यक्ष कराचो आघात आनी भार कर दितल्याचेरूय आसता. देखीकः येणावळ कर, भांडवली नफा कर, संपत्ती कर, वारसो कर, मालमत्ता कर आदी. हाचे उरफाटें, जे कर व्यक्ती सुर्वेक स्वता भरता पूण उपरांत दुसऱ्यांकडल्यान वसूल करता, तांकां अप्रत्यक्ष कर अशें म्हण्टात. देखीकः उत्पादन कर, करमणूक कर, विक्री कर, अबकारी कर, उत्पादन कर. प्रा. उर्सुला हिक्ससारके कांय अर्थशास्त्रज्ञ करवसुलीवयल्यान प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष कर थारावचे ह्या मताचे आसात. भारतांत कर येणावळींतली ७५ टक्क्यांपरस चड येणावळ अप्रत्यक्ष करांतल्यान येता. राश्ट्रीय येणावळींत कराचो वांटो सुमार १५ टक्के आसा.

**कांय म्हत्वाचे कर:** *१. प्राप्तिकर वा आयकर* **(Income-tax):** सरकारान दिल्ले राखणेक लागून काम करप, येणावळ मेळोवप आनी कायद्याचे चौकटेंत रावन मेळिल्ले येणावळीचो उपभोग घेवप शक्य जाता. देखून, व्यक्तीचे येणावळीचेर कर लावपाचो सरकाराक हक्क आसा, अशें मानतात.

२. *उत्पादन कर:* सरकार कारखान्यांखातीर वीज, उदक, रस्ते आदी पुरयता. ह्यो सुविधा दिवपाखातीर जावपी खर्च वसूल करप हो उत्पादन-कराचो हेत जावन आसा. वस्तूंचें उत्पादन जातकच हो कर उत्पादकांकडल्यान वसूल करतात.

३. *भांडवली नफा कर* **(Capital gains tax):** अर्थीक उदरगत आनी नेटान जावपी उद्येगीकरण हाका लागून भांडवली वस्तूंच्यो दरो नेटान वाडटात. असले परिस्थितींत भांडवली वस्तू विकल्यार मूळ दरापरस चड पयशे विकतकच मेळटात. हे वाडीक 'भांडवली नफा' अशें म्हण्टात. ह्या फायद्याचेर जो कर लायतात, ताका 'भांडवली नफा कर' अशें म्हण्टात.

४. *संपत्ती कर* **(Wealth Tax):** संपत्तीच्या आदारान अदीक संपत्ती मेळोवं येता. हातूंत वाड जावंची न्हय म्हूण सरकार हातूंतलो वांटो कराच्या रुपांत वसूल करता.

५. *करमणूक कर:* करमणुकीचीं साधनां मेळोवन दिवपाक सरकाराक खर्च जाता. हो खर्च करमणूक कराच्या रुपांत वसूल करप हो ह्या कराचो हेत जावन आसा.

- प्रा. वामन रामनाथ नायक

**कर- २:** शुभ दिसाच्या दुसऱ्या दिसाक कर वा करीचो दीस अशें म्हण्टात. ह्या दिसाक अशुभ मानतात. कसलेंय बरें काम ह्या दिसा करिनात. बऱ्या कामाखातीर भायर सरनात. चवथ, संक्रांत ह्या सारकीले सण मनयल्या उपरांत लोक दुसरे दिसा घराभायर सरनात.

- कों. वि. सं. मं.

**करबील:** (मराठी-कढिलिंब, गंधला, पुषला; हिंदी- कटनिंब, मिठनिंब; गुजराती- कढिलिंबडो; संस्कृत- सुरभिनिंब, कृष्णनिंब, कैटर्य; कन्नड-करीबेवू; इंग्लीश- करी लीफ ट्री; लॅटीन- मुराया कोनिजी; कूळ- रुटसी).

करबील हें पोरसांतलें एक झाड. करबीलाक कांय लोक 'करपील' अशेंय म्हण्टात. करबीलाचें झाड ६ मी. मेरेन वाडटा. झाडाचें कांड बारीक आसलें, तरी तें घट आसता. ताचीं पानां संयुक्त रुपांत आसतात, एकोडीं केन्नाच नासतात. पानांक बरो वास येता आनी तीं मात्शीं मिरमिरीत आनी तिखट आसतात. पानां सुकल्यार लेगीत वास वचना. ताचीं फुलां एकोडीं नासतात, तांचेय गोंड जातात. फुलां बारीक आनी धवशा रंगाचीं आसतात. फळां बारीक आसतात, तांचेय घोंस जातात. पिकल्या उपरांत फळ जांभळ्या रंगाचें दिसता आनी तातूंत भितर एक

वा दोन बियो आसतात.

करबीलाची लागवड व्हड प्रमाणांत केल्ली दिसना. गोंयांत, करबील फकत घरगुती वापराखातीर आपल्या घराच्या पोरसापुरतो रोयिल्लो दिश्टी पडटा, खास धंद्याखातीर कोणूच रोयनात.

करबीलाक खास तरेची जमीन जाय अशें ना. ताका सारें वा उदकूय घालीनात. रेव्यांत-खातोडांत तो व्हड जाता. सांवटांतय तो जियेता. मात ज्या जाग्यार वत कमी आनी झाडां चड आसतात, ते सुवातेर तो ऊंच गेल्लो दिश्टी पडटा.

करबीलाच्यो खास अश्यो जाती नात. हालींच पुणेच्या शेती महाविद्यालयांतल्या शास्त्रज्ञांनी करबीलाचो बरो वास येता तसली खाशेली जात विकसीत केल्या. करबीलाची लागवड बियांपसून करपाक जाता, पूण अशीं झाडां बरीं वाडनात. बरे लागवडीखातीर पाळांक जे कोंब येतात, ते काडून रोयतात. ४५×४५×४५ सेंमी. लांब, रुंद आनी खोल आकाराचीं फोंडकुलां खणून ३×३ मी. अंतराचेर जून म्हयन्यांत पावसाक सुरवात जातकच हे कोंब काडून रोवपाचे आसतात.

करबीलाचें झाड ३ ते ५ वर्सांचें जातकच पानां काडपाक सुरवात करतात. झाड ल्हान आसतना पानां काडलीं जाल्यार झाडाचे वाडीचेर परिणाम जाता. घरांत वापरपाखातीर गरजेपुरतीं झाडांचीं पानां काडूं येतात, पूण विकपाखातीर चड प्रमाणांत काडपाचीं आसत जाल्यार वर्सातल्यान सादारणपणान २ ते ३ खेपे तेंगशेवयलीं पानां काडटात. बऱ्या वाडिल्ल्या झाडांपसून सरसकट १०० किग्रॅ. पानां मेळपाक शकतात. करबीलाचें उत्पन्न २० ते २५ वर्सां मेळटा.

करबीलाच्या पानांक बाजारांत वर्सूयभर मागणी आसता. ह्या पानांचो चड करून जेवणाच्या पदार्थांक फोण्ण दिवपाक वापर करतात. सार, ताकाची कडी, चेटणी, चिवडो ह्या पदार्थांत वासाखातीर करबील वापरतात. हागवणीचे धामीआड उपाय म्हूण करबीलाचीं ताजीं पानां खातात.

- विश्राम गांवकार

## करमली, नागेश रामदासः (जल्मः ५ फेब्रुवारी १९३३, काकोडें-केपें).

गोंयचो सुटके झुजारी आनी नामनेचो कवी. बापायचें नांव रामदास माधव नायक करमली. ताणें मुळावें शिक्षण मराठी आनी पोर्तुगेज भाशेंतल्यान घेतलें. तो खण उद्योगांत नोकरी करतालो. उपरांत १९६२ वर्सा ताणें कामगार चळवळींत वांटो घेतलो. १९६६ वर्सा सावन आकाशवाणीच्या पणजी केंद्राचेर 'स्टाफ आर्टिस्ट' म्हूण नोकरी करतालो आनी १९९१ त तो निवृत्त जालो.

ताका भुरगेपणातूच शिकता आसतना साहित्याची गोडी लागली. कविवर्य बाकीबाब बोरकार हाचें मार्गदर्शन ताका मेळ्ळें. तेचपरी शणै गोंयबाबाची बरपावळ वाचून ताका कोंकणी शक्तीचो दिश्टावो जालो. १९५२ वर्सा कोंकणीच्या वावराकडेन ताचो संबंद आयलो. तातूंतल्यानूच फुडें ताणें गोंयचे सुटके चळवळींत वांटो घेतलो. 'राश्ट्रीय काँग्रेस-गोंय' हे संघटनेवरवीं दक्षिण गोंयांत सुटके चळवळीचो प्रचार करपांत ताचो म्हत्वाचो वांटो आसा. सुटके झुजारी ॲन्थनी ऊर्फ टोनी द सोउझ हाच्या मार्गदर्शनाखाला ताणें १९५२ वर्सासावन लोकांच्या मनांत पोर्तुगेज राजवटीआड जाग हाडपाक जायतो वावर केलो. १६ सप्टेंबर १९५४ दिसा गोंयांत 'तेरेखोल दीस' मनोवपाचें थारायल्लें, ह्या निमतान १५ सप्टेंबर दिसा रिवण ह्या वाठारांत भूंयगत वावर करता आसतना पोलिसांनी ताका धरलो. लश्करी कोर्टान ताका धा वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर १५ वर्सां खातीर ताचे राजकी हक्क काडून घेतले. तो रेइश मागुश बंदखणींत आसतना, थंय बंदखणींतल्या स्वातंत्र्य झुजाऱ्यांचें कोंकणी अभ्यास मंडळ घडोवन 'जोत' नांवाचें हाताळें चलयलें. बंदखणींत ताणें चार वर्सां आठ म्हयने आनी दोन दीस ख्यास्त भोगतकच १७ मे १९५९ दिसा ख्यास्त सोंपचे आदींच ताची आग्वादचे बंदखणींतल्यान सुटका जाली. उपरांत गोंय सुटकेमेरेन ताणें वेगवेगळ्या रुपांत वावर केला.

ताणें फाटल्या पंचवीस-सव्वीस वर्सांत कोंकणीचे उदरगतीखातीर बरोवपी, वावुरपी आनी संघटक म्हूण वावर केला. कोंकणी भाशा मंडळाचो तो एक संस्थापक वांगडी जावन आसा. गोंयांतल्या 'लळितक' ह्या साहित्य दर्शनाचे कार्यावळीचो तो प्रवर्तक आसा. ताका कोंकणी भाशेवांगडाच मराठी, हिंदी, इंग्लीश आनी पोर्तुगेज ह्यो भासो येतात. उर्दू, बंगाली आनी कन्नड भासांचो ताणें अभ्यास केला. कोंकणी पाठ्यपुस्तकां तयार करपाचे नदरेन गोंय माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शिक्षण मंडळ, तेचपरी गोंय राज्य शिक्षण संस्थेच्या वावरांत ताणें वांटो घेतला. गोंय सरकाराच्या गॅझेटियर संपादक मंडळाचो तो वांगडी आसा. गोंयच्या स्वातंत्र्य सैनिक चरित्रकोशाच्या संपादन वावरांत ताचो वांटो आसा.

ताणें कोंकणी आनी मराठी भासांतल्यान वेगवेगळ्या तरांचें बरोवप केलां. तातूंत काव्य हो प्रकार मुखेलपणान केळयला. आकाशवाणीखातीर तरेकवार बरपावळ रचल्या. ताचे 'जोरगत' (१९७९), 'सांवार' (१९७९) आनी 'वंशकुळाचें देणे' (१९८९) अशे कवितांझेले उजवाडाक आयल्यात. ताणें आद्य रंगाचार्य हाच्या 'केळु जनमेजया' (जनमेजया आयक) नाटकाचो आनी मोहन राकेश हाच्या 'आधेअधुरे' ह्या नाटकाचो अणकार केला.

१९७२ वर्सा भारतीय स्वातंत्र्याच्या रुप्याउत्सवी वर्सानिमतान भारत सरकाराकडल्यान ताका ताम्रपत्र दिवन ताचो गौरव जालो. ताच्या 'जोरगत' ह्या कवितांझेल्याक कोंकणी भाशा मंडळ आनी गोंय कला अकादमीचे राज्य साहित्य पुरस्कार मेळ्ळ्यात. १९८३ वर्सा कुडचडें हांगा जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचो तो येवकार अध्यक्ष आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## करमळकार, आत्माराम (आपा) नरसिंहः (जल्मः २५ जून १९१६, पणजी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें लिसेवमेरेन शिक्षण घेतलें. १९३४ वर्सा भारतीय राश्ट्रीय काँग्रेस (Indian National Congress) हे संघटनेचो तो वांगडी जालो. 'छोडो भारत' चळवळींतल्यान (Quit India) भूंयगत वावुरप्यांकडेन ताणें आडवाटेन संबंद दवरिल्लो. १९४५ वर्सा ताणें लिपचोरयां पत्रकां छापून आनी तीं लोकांक वांटून तांचे वरवीं पोर्तुगेज गोव्हेर्नादोर जेराल, जुजे काब्राल हाच्यो गुपीत कारवायो आनी भ्रश्टाचार उक्ताडार हाडपाचो यत्न केलो. १९४८ वर्सा मुंबयसावन येता आसतना पोलिसांनी ताका रातचो कुळें वाठारांत धरलो. तांणी ताचेकडेन आशिल्लो दादरा नगर हवेलीचो नकासो जप्त केलो. तेभायर ह्या नकाशाविशीं जायते प्रस्न केले आनी ताणें भारतीय वकिलातीकडेन संबंद दवरचो न्हय असो आदेश दिवन ताका सोडलो. तो पणजे बँकेंत नोकरी करता आसतना १९५० त पंडित नेहरून दिल्लीच्या लाल किल्ल्या वेल्यान पोर्तुगेज राजवटीआड टीका केल्ली. ताचे आड निशेद करपाखातीर पोर्तुगेज सरकारान एक पत्रक काडिल्लें. ह्या पत्रकाचेर सय करूंक ताणें न्हयकार दिलो. तेखातीर सां तोमे (St. Tome) वेले बँकेचे शाखेंत ताची बदली केली. सां तोमे हांगां वता आसतना वाटेर, मुंबय पावतकच बरो नाशिल्ल्याचें सवंग करून ताणें तिकेट रद्द करूंक लायली. आनी उपरांत निशेद परगटावपाक म्हूण बँकेक सोडचीट दिली. उपरांत तो मुंबय युनायटेड कमर्शियल बँकेंत काम करूंक लागलो आनी वांगडाच राश्ट्रवादी वावरांत वांटो घेवंक लागलो. महाराष्ट्र सरकार, गोंयांत आशिल्ली भारतांतली वकिलात (Consulate) आनी दिल्ली आशिल्लें विदेशी मंत्रालय (External Affairs Ministry) हांकां जोडपी म्हत्वाचो दुवो कसो तो वावुरलो. नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो तो वांगडी आसलो. सुटके झुजारी पीटर आल्वारीस हाच्या पालवान तो वावुरप्यांक घातपाती आनी भूंयगत वावर करपाक तयार करतालो. २७ मार्च १९५४ दिसा १२० सत्याग्रहींक घेवन, गोंयांतली रेल्वे येरादारी बंद करची अशी

मागणी करूंक ताणें कॅसलरॉक हांगा मोर्चा व्हेलो. १९५४ वर्सा ताणें दादरा नगर हवेलीचे सुटके चळवळीखातीर वावुरी धाडिल्ले. आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या पालवान नगरहवेलीची सुटका करपांत ताचो वांटो आसा. दादरा आनी नगर हवेलीचो प्रशासक म्हूण ताका एकमतान वेंचून काडलो. फुडें ताणें कश्टकरी आदिवासींक आदार दिवपाखातीर पंचायत राज्य आनी भूंय कायदो काडलो आनी प्रांताच्या प्रशासनांत लोकशाय राज्यपध्दत सहजतायेन हाडपाखातीर मोलादीक वावर केलो. तो गोंयच्या आनी गोंयाभायल्या कांय सुटके झुजाऱ्यांक अर्थीक पालव दितालो. गोंय सुटके मेरेन ताणें मुंबय रावन सुटके झुजाचो वावर केला.

गोंय सुटके उपरांत तो जायतीं वर्सां भारतीय राश्ट्रीय कॉंग्रेस संघटनेचो पदाधिकारी आनी चिटणीस आशिल्लो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन, मुंबय प्रदेश कॉंग्रेस समितीन पदक दिवन आनी दादरा आनी नगर हवेलीच्या प्रशासकान ताका मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- को. वि. सं. मं.

**करवली:** लग्नसुवाळ्यांत न्हवऱ्याचे भयणीक करवली म्हण्टात. 'करो' म्हळ्यार मंगल कलश. हो कलश हातांत घेवपी ती करवली. म्हूर्तावेळा न्हवऱ्याच्या फाटल्यान करवली उबी रावता. कांय कडेन मंगल कलश माथ्यार घेवन करवली न्हवऱ्याफाटल्यान घोड्यार बसता. लग्नांत वेणी (न्हवऱ्याची आवय) फाटोफाट करवलेक मान आसता. व्हंकलेची आवय करवलेचे पांय धुवन तिका साडी दिता. करवलेविशीं कोंकणी लोकगीत आसा तें अशें:

शेतुक करवली भायर सरवली,
खरचांडी रागान गेली रे पालवा----

- कों. वि. सं. मं.

**कराची:** पाकिस्तानांतलें सगळ्यांत व्हड शार. लोकसंख्या: ५,१०३,००० (१९८१). ल्यारी आनी मलिर ह्या न्हंयांच्या मदीं भुशिराच्या तोंकार हें शार वसलां. पाकिस्तानांतलें हें एक मुखेल बंदर. दर्यांतले एके फातरावळीच्या तोंकाचेर मनोरा नांवाची ऊंच शिळा आसा. हे शिळेखातीर कराची बंदराक बरी राखण मेळटा. मनोऱ्याचे फातर आनी मुखेल भूंय हांच्या मदल्या खारकच्छांतली गाळाची माती आपशींच झोतावरवीं व्हांवन वता, हें बंदराचें एक सैमीक खाशेलेपण जावन आसा.

कराची शार सिंधू न्हंयच्या मुखाकडेन वायव्येक आसा. हें शार मुंबय सावन ८८० किमी. अंतराचेर आनी दिल्ली सावन १०५६ किमी. अंतराचेर आसा. सुएझ मार्गान हें शार लंडनसावन फकत ३,७२५ किमी. अंतराचेर आशिल्ल्यान युरोपाक हें सगळ्यांत लागशिल्लें बंदर आसा. तेभायर अफगाणिस्तान, मध्य आशिया हांकांय हें बंदर लागीं पडटा. हांगाचें तापमान जून म्हयन्यांत ३२° से. आनी जानेवारी म्हयन्यांत १४° से. आसता. हांगा पावस २० सेंमी. पडटा.

१८ व्या शेंकड्यापयलीं कराची शाराचो खंयच उल्लेख मेळना. १७२५ त, हब न्हंयच्या तोंडाकडेन खराक वाठारांत ल्हानशें बंदर आशिल्लें. हें बंदर मातयेन भरिल्ल्यान त्या वाठारांत रावपी लोक कलाचीकून हांगा रावंक गेले. थंय भुशिराच्या तोंकार किल्लो बांदून हे लोक रावंक लागले. कलाचीकून वाठारांत आतांचें कराची शार आसा. कराची शाराचें नांव 'कलाचीकून' हाचेवेल्यान पडलां आसूंक जाय. अठराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक कराची शार तालपूर हांगाच्या मिरांचे मत्तेखाला आशिल्लें. १८४३ वर्सा ब्रिटिशांनी जैत जोडलें. ह्या काळांत सर चार्ल्स नेपिअरच्या यत्नांनी कराची शाराची खुबशी उदरगत जाली. १८६५ त अमेरिकेंत यादवी झुजां जावंक लागलीं. देखून, थंयचो कापूस इंग्लंडाक मेळप कठीण जालो. अशा वेळार भारतांतलो कापूस मुंबय आनी कराची बंदरांतल्यान लँकाशर हांगा निर्यात जावंक लागलो. ताका लागून कराची बंदराचें म्हत्व खूब वाडलें.

१९३५ त जाल्ल्या कायद्यान सिंध प्रांत मुंबय शारासावन वेगळो केलो; तेन्ना कराची शाराक ह्या नव्या प्रांताची राजधानी केली. फुडें १९४७ त भारताचे फाळणेवेळार पाकिस्तान वेगळो देश जातकच कराची पाकिस्तानची राजधानी जाली. पूण केंद्र सरकाराची तरेकवार कार्यालयां, परदेशी वकिलाती आनी फाळणेक लागून हजारांनी निर्वासित लोक रावपाक आयिल्ल्यान कराची शाराक खुबशा संकश्टांक तोंड दिवंचें पडलें. उदका पुरवण आनी भलायकेविशींचे उपाय करप भोव कठीण जाले. अशा वेळार १९६० वर्सा रावळपिंडी शाराच्या लागसार एक नव्या नगराची येवजण केली आनी पाकिस्तानची राजधानी थंय व्हेली. तिका इस्लामाबाद हें नांव दिलें. हे घडणुकेन कराची शारांतलो ताण उणो जालो. पूण शाराचें म्हत्व उणें जावंक नासलें. कांय सरकारी कार्यालयां कराची शारांत उरिल्लीं.

एक उद्येगीक शार म्हूण कराची शाराची नामना आसा. हांगा कापूस, रेशम आनी लोकर हांचे कपडे तयार जातात. हांगा शिमीट, नळे, विजेचीं तरेकवार उपकरणां, लोखणी सामान, ग्रामोफोनाच्यो प्लेटी, वखदां, रसायनां, फस्कां, कातडी सामान, काच, सायकलीचे भाग आदीचे कारखाने आसात. मातयेचीं आनी धातुचीं आयदनां, शेंदऱ्यो, तयार कपडे, गालीचे हांचो हातवेवसाय हांगा बरेतरेन चलता.

वेपार, उद्येगधंदे आनी शिक्षण ह्या मळांचेर कराची शाराक पाकिस्तानांत खूब म्हत्व आसा. ड्रिगच्या आंतरराश्ट्रीय मान्यताय मेळिल्ल्या विमानतळाखातीर आनी बऱ्या बंदराखातीर पाकिस्तान राज्यांतलो आयातनिर्यातीचो वेपार कराची शारांतल्यान जाता. हांगाच्यान गंव, धान्य, कापूस, कातडी, कच्ची लोकर आदी मालाची निर्यात जाता आनी तिखें, यंत्रां, सुती कपडे, पेत्रोल, कोळसो, साकर आदी मालाची आयात जाता.

शिक्षणावांगडा सांस्कृतिक नदरेनूय कराची शाराक म्हत्व आसा. ह्या शारांत तंत्रीक शिक्षणाच्यो शाळा, माध्यमिक शाळा आनी कराची विद्यापीठ आसा.

कराची शारांत विधिमंडळ, सचिवालय, न्याय कार्यालयां, महानगर पालिका, बँको, विम्याच्यो कंपनी, विमानाच्यो कंपनी अश्यो जायत्यो वेपारी कंपनी आशिल्ल्यान हांगाची जीण गजबजिल्ली आसता. हांगाच्या वस्तुसंग्रहालयांत पूर्विल्ल्या अवशेशांचो म्हत्वाचो सांठो आसा. १९७१ त जाल्ल्या भारत आनी पाकिस्तानाच्या झुजांत कराची बंदराचें खूब लुकसाण जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**कराटे:** कराटे म्हळ्यार जपानी भाशेंत मोकळे हात. शस्त्रासारक्या खंयच्याच भायल्या साधनाचो वापर करीनासतना फकत मनगटाच्या नेटाचेर आत्मसंरक्षण आनी चढाई करपाच्या ह्या तांत्रिक खेळाक पडिल्लें हें नांव उद्‌बोधक आसा. निःशस्त्र स्थितींत आत्मसंरक्षण कशें करपाचें आनी सशस्त्र घुरी घालतल्याचेर चढाई कशी करपाची, हाचें शिक्षण घेतां घेतां कराटे ह्या खेळाचो पयलीं चीनांत उदय जालो, अशें म्हण्टात. इ. स. च्या पांचव्या-सव्या शतमानांत दारुमा तैशी नांवाच्या भारतीय बौध्द भिक्षून ही विद्या चीनी लोकांक शिकयली.

रिऊक्यू जुंव्यावयल्या ओकिनावा वाठारांतले आक्रमक, दुबळ्या लोकांचेर सशस्त्र हल्ले करताले. अशा हल्लेखोरांपसून बचाव करपाचे गरजेंतल्यान सतराव्या शतमानासावन कराटेची उदरगत जावपाक लागली. १९१६ सावन जपानांत कराटेचें तंत्र बरेंच उदरगतीक पावलें. फुनाकोशी गिचिन (१८६९-१९५७) हाका आर्विल्ल्या कराटेचो जनक अशें मानतात.

जपानांत हो खेळ चार प्रकारांनी खेळटात. ते चार प्रकार अशे: शोटोकान, वाडो- न्यु, गोजु- न्यु आनी शिटो- न्यु. थंय ह्या खेळाच्यो नाकायमा राश्ट्रीय सर्ती जातात. हीरोकाझ कानाझावा, मासाटोशी आनी यामागुची गोगेन हे तीन नामनेचे कराटेपटू आसात.

कसल्याच शस्त्राचो वा हेर साधनांचो आदार घेनासतना फकत मनगटाचो, मुठीचो, कोपराचो आनी पांयांचो वापर करून प्रतिपक्षाचेर

हल्लो करप आनी वेळ प्रसंगाक ह्याच मार्गान स्वताचो बचाव करप, हें ह्या खेळाचें मुखेल तंत्र. कराटेपटूंच्या मनगटांत वीट फोडपाइतली ताकद आसता. कराटेचें तंत्र शिकपाखातीर शास्त्रशुध्द प्रशिक्षणाची गरज आसता. सद्या भारतांतूय हो खेळ लोकप्रिय जाला. गोंयांतय कांय शारांनी ह्या खेळाचे प्रशिक्षणवर्ग चलतात.

- कों. वि. सं. मं.

**करीम, गफार नूरमहम्मद:** (जल्म: २० नोव्हेंबर १९३६, म्हापशें- बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव करीम नूरमहम्मद. ताणें माध्यमिक शिक्षण इंग्लिशींतल्यान घेतलें. गोंयचे सुटके चळवळीच्या काळांत तो 'रँक्यूर पॅट्रिओटिका' (Rancour Patriotica) पक्षाखातीर वावर करतालो. एक फावट दारुगुळो हाडटा आसतना साळ वाठाराचे शिमेचेर पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका अटक केली. सुर्वेक ताका पांच म्हयने पणजी बंदखणींत आनी उपरांत आग्वाद बंदखणींत दवरलो. फुडें जेन्ना पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायाधिशामुखार (Territorial Military Tribunal) ताची चवकशी जाली, तेन्ना ताका सोळा म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**कर्क:** (कॅन्सर). भारतीय राशीचक्रांतली चवथी रास. पुनर्वसू नखेत्राचो चवथो चरण (चतुर्थांश) आनी पुष्य आनी आश्लेषा हीं नखेत्रां कर्क राशींत येतात. कुल्ली हें तिचें प्रतीक. कर्क राशींत गुरू उंचेलो मानतात. तिचो स्वामी चंद्र. तिच्यांत सव्या प्रतीमेरेनचे ३७ तारे आसात. पूण एकूय तारो चौथ्या प्रतीपरस अदीक तेजीश्ट ना. सगळ्या राशींमदीं ह्या राशीचे तारे सगळ्यांपरस अंधुक आसून तिचे मदीं आशिल्लो तारकांचोबो दोळ्यांनी दिसूं येता. ताका प्रीसेपी वा एम् ४४ अशें म्हणटात. १२ मार्चाच्या सुमाराक रातीच्या ९ वरांचेर ही रास मध्यमंडलाचेर येता. १६ जुलयक निरयन (संपातचलन मतींत घेनासतना) आनी २२ जूनाक सायन (संपातचलन मतींत घेवन) कर्क राशींत सूर्यप्रवेश जाता. २२ जून सावन दक्षिणायन सुरू जाता.



- कों. वि. सं. मं.

**कर्ण:** महाभारतांतलो एक दानशूर वीर. कुंतीक आंकवारपणात सूर्यापसून जाल्लो पूत. ताची जल्मकथा अशी: कुंतीन केल्ले सेवेचेर दुर्वास ऋषी प्रसन्न जालो आनी ताणें तिका एक मंत्र दिलो. त्या मंत्राच्या बळग्यान कुंती खंयच्याय देव-देवतेक आपोवंक शकताली. भुरगेपणाच्या स्वभावाक लागून तिणें सहज सूर्याक आपयलो. अशे तरेन सूर्यापसून तिका कर्ण हो पूत जालो. तो जल्मतांच खूब तेजीश्ट आशिल्लो. ताच्या आंगार कवच-कुंडलां आशिल्लीं. लोकलजेच्या भयान कुंतीन ताका पेटयेंत घालून न्हंयत सोडलो. सूतजातीचो धृतराष्ट्राचो सारथी अधिरथ हाका तो मेळ्ळो. ताची बायल राधा हिणें ताचें नांव 'वसुषेण' अशें दवरलें आनी ताचो सांबाळ केलो. देखून ताका 'राधेय' अशेंय म्हण्टात. कुंतीचो पूत म्हूण ताका 'कौंतेय' अशेंय म्हण्टात. ताचे बायलेचें नांव वृषाली आनी चल्याचें नांव वृषसेन अशें आशिल्लें.

धनुष्यविद्येंत कर्ण अर्जुनापरस फिशाल आशिल्लो. देखून, दुर्योधनान ताका आपल्या पंगडांत घेतलो आनी अंगदेशाचो राजा केलो. द्रोणाचार्याकडल्यान तो धनुष्यविद्या शिकलो पूण द्रोणान ताका ब्रह्मास्त्र दिलेंना. देखून आपूण ब्राह्मण आसा, अशें फट उलोवन परशुरामाकडल्यान ताणें अस्त्रविद्या शिकून घेतली. एका प्रसंगावेळार ताचें क्षत्रियत्व उक्तें जालें, तेन्ना 'ऐनवेळार तुका ब्रह्मास्त्रविद्येची याद जावंची ना' असो परशुरामान ताका श्राप दिलो.

तेज, बळ, पराक्रम, बुद्धिमत्ता, सहनशीलता अशे कितलेशेच गूण कर्णाच्या आंगांत आशिल्ले. जल्मभर सूतपुत्र म्हूण ताका अपमान सोंसचे पडले. दुर्योधनाक दिल्ल्या इश्टागतीच्या वचनाक तो निमाणे मेरेन जागलो. तो खूब उदार आशिल्लो. ताणें आपलीं कवच-कुंडलां ब्राह्मणरुपान याचक जावन दारांत आयिल्ल्या इंद्राक सहज दान केलीं. कुरु-झुजाआदीं कर्णाक कौरव पंगडांतल्यान फोडपाचे श्रीकृष्णान आनी कुंतीन खूब यत्न केले, पूण तांकां यश आयलेंना.

कुरुक्षेत्राचेर कौरव-पांडवांमदीं जाल्ल्या झुजांत अर्जुनाकडेन लडटा आसतना कर्णाचें रथचक्र धर्तरेन गिळ्ळें. तो सकयल बागोवन तें चक्र काडटा आसतना श्रीकृष्णान अर्जुनाक बाण सोडून कर्णाची तकली उडोवपाक सांगलें. अशे तरेन कर्णाक मरण आयलें.

एक शूर धनुर्धारी, म्हान दानी आनी स्वामीनिश्ठ म्हूण महाभारतांत कर्णाची नामना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कर्नाटक:** भारतीय संघराज्यांतलें एक घटकराज्य. हें राज्य भारताचे दक्षिणेक वसलां.

**अक्षांश आनी रेखांश:** ११° ३०' उत्तर ते १८° २७' आनी ७४° ६' ते ७८° ३६' उदेंत. उत्तरेक गोंय आनी महाराष्ट्र, उदेंतेक आंध्र प्रदेश आनी तमिळनाडू, दक्षिणेक तमिळनाडू आनी केरळ, अस्तंतेक अरबी दर्या.

**भूंयवर्णन:** कर्नाटक राज्याचो चडसो वाठार डेक्कन वाठारांत पडटा. भुगोलिक नदरेन राज्याचे तीन मुखेल भाग पडटात. अस्तंतेकडली दर्यादेग, सह्याद्रीचो दोंगराळ वाठार आनी अस्तंतेकडलो पठारी वाठार.

अस्तंतेकडलो दर्यादेगेचो वाठार सकयल आनी अशीर आसा. ताचेर जांभ्या फांतरांचीं ल्हान ल्हान पठारां आसात. उदेंत-अस्तंत व्हांवपी न्हंयांचीं देगणां सकयल आसून न्हंयादेगांवेलो वाठार पिकाळ आसा. देगेवेल्यो खाडी येरादारीचे नदरेन सोयीच्यो आसात.

सह्याद्रीचो वाठार दोंगराळ आसून तो दक्षिण-उत्तर दिकांनी पातळ्ळा. ताच्या तेमकांची सरासरी उंचाय ६०० ते १००० मी. आसा. सह्याद्री पर्वतमाळ ३२० किमी. लांब आसा. हे माळेंतली कुद्रेमुख आनी मल्लिआरगिरि हीं तेमकां उल्लेखनीय आसात.

अस्तंतेकडलें पठार ९०० ते १२०० मी. ऊंच आसा. पठाराचो उत्तरेकडलो वाठार मळांचो आनी दक्षिणेकडलो वाठार फातरी आसा.

**न्हंयो:** सह्याद्री पर्वतमाळेंतल्यान अस्तंतवाहिनी न्हंयो-नेत्रावती, काळी, गंगावळी, अघनाशिनी. उदेंतेवाहिनी न्हंयो कावेरी, तुंगभद्रा. कावेरी न्हंयेक हेमावती, कबिनी, अकविती, शिमशा तर तुंगभद्रा न्हंयेक तुंगा, भद्रा, वेदवती ह्यो उपन्हंयो आसात. कृष्णा न्हंय कर्नाटकाचे उत्तरेक बेळगांव, रायचूर जिल्ह्यांत पावता. घटप्रभा, मलप्रभा, भीमा ह्यो तिच्यो उपन्हंयो. गोदावरीच्यो उपन्हंयो मांजरा आनी कारंजा, कर्नाटकांत उत्तरेक आसात. कर्नाटक आनी तमिळनाडु राज्याचे शिमेर आशिल्ल्या 'नंदिबेट्ट' नांवाच्या उदेंत, घाटाच्या पर्वतासावन 'उत्तर पिनाकिनी', 'दक्षिण पिनाकिनी' आनी 'पालार' ह्यो न्हंयो उपजतात.

कर्नाटक राज्यांत 'रेगूर' आनी रेंवेन भरिल्ली 'तांबडी माती' अशे प्रकार दिश्टी पडटात. 'रेगूर'चो विस्तार उत्तर कर्नाटक वाठारांत चड आसा. राज्याक ३०० किमी. परस चड लांबायेची दर्यादिग आसा.

**हवामान:** राज्याचें हवामान उश्ण कटिबंधीय मोसमी प्रकारांत मोडटा. राज्यांत जून ते ऑक्टोबर मेरेन पावस पडटा. सगळ्याच सुवातींनी एकसारको पावस पडना. ह्या राज्याचो चडसो वाठार समुद्रपातळेवयर आशिल्ल्या कारणान हवामानांत चड फरक पडना. दर्यादिगेवेलो वाठार आनी तिचे लागसारचो मलेनाड वाठार हांगा सगळ्यांत चड पावस पडटा, (१०० इंचांपरस चड). रायचूर, बळ्ळारी, चित्रदुर्ग, तुमकूर, बेंगळूर आनी कोलार जिल्ह्यांत वर्साक सरासरी ७०० मिमी. सावन १००० मिमी. मेरेन पावस पडटा. मलेनाड वाठार, बेळगांव आनी धारवाड जिल्ह्याचो अस्तंत वाठार, शिमोगा, हासन, चिक्कमंगळूर, कोडगु आनी म्हैसूर जिल्ह्यांत तेचपरी करावळी प्रदेशांत सरासरी १३०० मिमी. सावन ३००० मिमी. मेरेन पावस पडटा.

राज्यांत शियाळ्याच्या दिसांनी वारें थंड आसता. गिमांत वारें मात्शें

हून ल्हानसान वादळ आनी गडगड हांणी भरिल्लें आसता. पावशी वारें थंड पूण तुफानी आसता.

**वनस्पत आनी मोनजातः** सह्याद्रींत आशिल्ली सगले तरेची वनस्पत आनी मोनजात कर्नाटकांत दिसता. सागवानी, श्रीगंध (चंदन), कोंडो, सिमूळ, होन्ने (बिबळो), आंबो, सुरू, निलगिरी, शिर्से, रोजवूड ही रुखावळ आसा. हत्ती गवे रेडे, बिबटे वाग, तरस, वांस्वेल, मोर, सांबर, चित्ते, लांडगे, सरपटपी प्राणी, तरांतरांचीं सवणीं दिसतात. दांडेली, बंदीपूर, नागरहोळे हांगाचीं अभयारण्यां नांवाजल्लीं आसात. राणी-बेन्नूरलागीं काळें मीर्ग (Black Buck) आनी चिंचणगिरींत मोर हांचे खातीर खाशेलीं अभयारण्यां आसात.

**इतिहासः** कर्नाटक हें राज्याचें नांव 'करिनाडु' उतरावेल्यान आयला. 'करिनाडु' म्हळ्यार काळी माती आशिल्लें वा 'करनाडु' म्हळ्यार उबार आशिल्लें, अशी तांची व्युत्पत्ती जाता.

इतिहासापयलीं काळा आदल्या शिलायुगाचे अवशेश (Palaeolithic), गुलबर्गा जिल्ह्याच्या हुणसगी आनी तुमकूर जिल्ह्याच्या 'किब्बनहळ्ळि' हांगा मेळ्ळयात. चड करून न्हंयचेवेगेर, दर्यादिगेर, नवशिलायुगाचे अवशेश मेळ्ळयात. त्या काळचे 'शिलायुध', शतकुंभ' प्राण्यांचीं आनी मनशांचीं हाडां, लाशिल्लें कड्डण सांपडलां. ह्या कड्डणांत नासणो, गंव, कुळीद हांचो आस्पाव आसा. धारवाड जिल्ह्याच्या हळ्ळूर हांगा अतिपूर्विल्लें लोखणाचें आयुध मेळ्ळां. ताचो काळ इ.स.प. ८०० वर्सां इतलो पोरनो आसा. बेळगांव जिल्ह्याच्या कोण्णूरांत, बिजापूर जिल्ह्याच्या तरेदाळांत आनी दक्षिणेंत कोलार जिल्ह्याच्या 'नल्लगी' मेरेन असल्यो समाधी आसात. तातूंत लोखणाच्यो वस्तू मेळ्ळयात. कोलार जिल्ह्याच्या बलहळ्ळी हांगा लोखण तयार करपाची भाटी मेळ्ळया.

अशोक मौर्याचे लघुशिलालेख रायचूर जिल्ह्याच्या मस्की आनी कोषळ्ळांत, बळ्ळारी जिल्ह्याच्या उदेंदोळ, इट्टूरांत आनी चित्रदुर्ग जिल्ह्याच्या ब्रह्मगिरि, जट्टिंगरामेश्वर आनी सिध्दापूर ह्या सुवातींनी मेळ्ळयात. मौर्य राजवटीच्या अस्ताउपरांत दुसऱ्या शतमानाच्या शेवटाक ह्या प्रदेशांत सातवाहनांचें (इ.स.प. २००- इ.स.प. ३००) राज्य आसलें. तांचें साम्राज्य दक्षिणेंत चित्रदुर्ग जिल्ह्यामेरेन पातळिल्लें. चवथ्या शतमानामेरेन चित्रदुर्गाचे दक्षिणेक आशिल्ल्या तुमकूर, बेंगळूर, म्हैसूर, मंडय, चिकमंगळूरु आनी हासन प्रदेशांत खंयच्याच राजान राज्यकारभार केल्ली म्हायती मेळना. श्रवणबेगोळ (हासन) हांगा चंद्रगुप्त मौर्य, भद्रबाहु नांवाच्या जैन संन्याशावांगडा आयलो आनी ताणें थंयच समाधी घेतली, अशी एक कथा आसा. बनवासि (उत्तर कन्नड), चंद्रहळ्ळि (चित्रदुर्ग) वडगांव, माधवपुर (बेळगांवलागीं) आनी सन्नत्ती (गुलबर्गा) हांगा सातवाहनांच्या पूर्विल्ल्या राज्यांचे अवशेश, नाणीं आनी यादस्तिकां सांपडल्यांत. सातवाहन राज्य नश्ट जातकच कर्नाटकांत पल्लव वंशाचें राज्य कांय वर्सां चल्लें.

चवथ्या शतमानाच्या काळांत बनवासीचें कदंब (इ.स. ३४५ ते इ.स. ५५०) आनी तलकाडचे गंगवंशीय (इ.स. ३५०- इ.स. ९९०) अशीं दोन राज्यां उदेलीं. दोगांकूय आपलें अस्तित्व तिगोवपाखातीर पल्लवांकडेन झुजचें पडलें. शिमोगा जिल्ह्याच्या ताळगुंद ह्या अग्रहारांत तरनाटो विद्वान 'मयूरशर्मा' पल्लवांचे राजधानींत कांचीच्या घटिकास्थानांत शिक्षणाक गेल्लो. थंय पल्लवरायाचे अश्वसंस्थेंत ताचो अपमान जाल्लो आनी ताणें पल्लवांआड बंड करून बनवासि राजधानींत आपलें स्वतंत्र राज्य स्थापलें. मयूरशर्मान आपलो ब्राह्मण धर्म त्याग करून 'मयूरवर्मा' हें नांव घेतलें. कदंब वंशाचो रगतासंबंद गुप्त आनी वाकाटक वंशांवांगडा चल्लो. कन्नड भाशेचें पयलें शासन 'हलमिडि' नांवाच्या हासन जिल्ह्यांत मेळ्ळां. हें कदंब वंशाचें आसून ताचो काळ ४५० वर्सां इतलो आसा. सव्या शतमानांत कर्नाटकाच्या वायव्य भागांत चालुक्य (५००-७५७) वंशीयांचो शेक चल्लो. तांणी कदंबांक जिखले, पूण तांचे कांय ल्हान फांटे विजयनगरच्या उदयामेरेन तग धरून उरले. चालुक्यवंशीय पयल्या पुलकेशीन बादामीक राजधानी केल्ली. दुसऱ्या पुलकेशीवेळार (५९७-६४२) ताचे गिरेस्तकायेचें वर्णन ह्युएनत्सांग हाणें केलां. चालुक्य काळांत कन्नड भाशेचो राजवेव्हारांत उपेग जावंक लागलो. दंतिदुर्ग राष्ट्रकूटान (७४२-७५५) जिखतकच राष्ट्रकूटाचो शेक धाव्या शतमानाच्या निमाणेमेरेन उरलो. ह्याच काळांत गंगवंशाचें पुनरुज्जीवन जालें. तांच्या चामुंडराय ह्या प्रधानान श्रवणबेळगोळ हांगा गोमटेश्वराचो मोटो पुतळो बांदलो (७८३). राष्ट्रकूटांमदलो तिसरो गोविंद (७९३-८१४) हाणें राज्यविस्तार केलो. अमोघवर्ष ह्या ताच्या पुतान पंडीतांक आनी विद्वानांक आश्रय दिल्ल्यान तो नामनेक पावलो. राष्ट्रकूटाक आपलें व्हडपण तगवपाखातीर चोलावांगडा झुजचें पडलें. निमाणे कल्याणीच्या चालुक्यामुखार ताका हार खावची पडली. अशेतरेन राष्ट्रकूट चालुक्याचे मांडलीक जाले. धाव्या शतमानाच्या शेवटाक सावन बाराव्या शतमानाच्या मध्यामेरेन अस्तंतेच्या चालुक्यवंशान ह्या प्रदेशाचेर राज्य केलें. सवो विक्रमादित्य हो ह्या वंशकुळयेंतलो सगळ्यांत व्हड राजा आसलो. ताणें कलागुणांक आदार दिवपाचो मोलाचो वावर केलो. राष्ट्रकूट आनी वंशीयाच्या काळांत कर्नाटक राज्य, शिल्पकला, भाशा, साहित्य ह्या मळांनी गिरेस्त जालें. आठव्या आनी णव्या शतमानांत शंकराचार्यान शृंगेरि मठाची थापणूक करून वैदिक धर्माची विस्कटिल्ली घडी सारकी केली.

चालुक्यांच्या पडट्या काळांत कलचुरी वंश बळीश्ट जालो (११५६-११८३). तातूंतलो बिज्जळाचो मुखेलमंत्री बसवेश्वर हाणें वीरशैव वा लिंगायत पंथाची थापणूक केली. ताचो फुडें कर्नाटकांत प्रसार जालो. इकराव्या शतमानाचे सुर्वेक चालुक्याचे मांडलीक होयसळ (१००६-१३४५) बळीश्ट जाले. विनयादित्य हो ह्या वंशीयांचो मूळ पुरुस आसलो. बिट्टिदेव (११०४-११४१) हो ह्या वंशकुळयेंतलो व्हड राजा आसलो. होयसळ राजांनी जायतीं देवळां बांदलीं. तांच्या हळेबीड, बेलूर, सोमनाथपुर हांगाच्या देवळांत वास्तुशिल्पकलेचो अप्रूप आविश्कार दिश्टी पडटा. कर्नाटकाचे उत्तर शिमेचेर होयसळाक देवगिरी हांगाच्या यादवाकडेन बरोच काळ मेरेन झुजचें पडलें. चवदाव्या शतमानाचे सुर्वेक होयसळाक देंवती कळा लागली. अल्लाउद्दीन खिलजी हाणें देवगिरि जिखली. १३११ वर्सा ताचो सेनापती मलिक काफूर हाचे घुरयेंत आनी उपरांत महंमद तुघलकाच्या झुजांत (१३२६-२७) द्वारसमुद्र हे राजधानीचो नाश जालो.

मुस्लीम राजवटीच्या वाडट्या प्रभावाक विजयनगराचे राजवटीन (१३३६-१५६५) खर आळाबंद हाडलो. माधवाचार्य हाच्या तेंक्यान हरिहर आनी बुक्क हांणी हे राजवटीची बुन्याद घाली. संगमवंशांतलो बुक्क, साळुव वंशांतलो देवराय आनी तुळुव वंशातलो कृष्णदेवराय हाच्या काळांत विजयनगराची भरभराट जाली. कृष्णदेवरायाची राजवट (१५०९-१५२९) विजयनगराच्या इतिहासांत भांगरायुग म्हूण पाचारतात. ह्या काळांत कर्नाटकांत वैष्णवपंथाचो प्रसार जालो.

१३४७ वर्सा थापणूक जाल्ल्या बहामनी वंशीयांनी सुर्वेक गुलबर्गा आनी उपरांत बीदर हे राजधानीसावन राज्यकारभार चलयलो. कर्नाटक प्रदेशाच्या गुलबर्गा आनी बीदर वाठारांत तशेंच महाराष्ट्र आनी आंध्रांतल्या कांय जिल्ह्यांत तांचो शेक चलतालो. बहामनी आनी विजयनगरांत झूज सतत चलत रावलें. महंमद गवान ह्या मंत्र्यान १४७१ वर्सा, गोंय, बेळगांव, कोंकण दर्यादिग, विजयनगर आपले सत्तेखाला हाडलें. पंदराव्या शतमानाच्या शेवटाक बहामनी राज्याचे पांच कुडके जाले. तातूंत बिजापूरची आदिलशाही आनी बीदरची बरीदशाही ह्यो राजवटी म्हत्वाच्यो आसात. काळांतरान बीदर आनी बिजापूर राज्यांमदीं इश्टागत जाली. पूण बिजापूर आनी विजयनगर राजवटींमदीं दुस्मानकाय सोंपली ना. १५६५ वर्सा ताळीकोटे झुजांत पांचूय शाहांनी एकठांय येवन विजयनगर राजवटीचो नाश केलो. ते उपरांत आरवाडू वंशीय राजांनी पयलीं धेनुकोंड, उपरांत चंद्रगिरि आनी निमाणे अनेगुंदीसावन राज्य केलें. बंडाळीक लागून हीं राज्यां नश्ट जालीं.

निजामशायेच्या अस्ता उपरांत (१६३६) बिजापूरच्या आदिलशाहान




दक्षिणेवटेन आपलो प्रभाव वाडयलो. सतराव्या शतमानामेरेन कर्नाटकांतले चडशे संस्थानिक आदिलशायेचे मांडलीक जाल्ले. शहाजीराजे भोंसले हाणें केल्ल्या वावराखातीर, आदिलशायेचो सरदार म्हूण ताका बेंगळूरची जहागीर मेळ्ळी. १६८७ वर्सा बिजापूर मोगलांनी हातासलें आनी कर्नाटकाच्या सगळ्या ल्हान व्हड राजांकडल्यान खंड वसूल करून घेतलो. मराठ्यांच्या पालवान मोगलसत्तेक तोंड दिवपाचें कसब पाळेगारांनी दाखयलें. मोगलांचे सैनिक बळगें मतींत घेवन चिक्कदेवराज वोडेयरान (१६७२-१७०४) औरंगजेबाकडेन इश्टागत जोडली. ताका लागून 'जयदेवराज' ही पदवी ताणें मेळयली. मोगलांकडेन संघर्श करीनासतना ताणें आपलें राज्य चलयलें. तेखातीर ताका तिरुमलराय ह्या मंत्र्यान बरो पालव दिलो.

हैदरअली आनी ताचो पूत टिपू सुलतान हांच्या काळांत म्हैसूर राज्याचो व्हड विस्तार जालो. १७९९ वर्सा टिपू सुलतान ब्रिटिशांवांगडा झुंजतना सोंपलो. ताच्या मरणाउपरांत म्हैसूर संस्थानाचो कांय वांटो निजामाक तस्रीप म्हूण मेळ्ळो. कांय वांटो ईस्ट-इंडिया कंपनीन हातासलो. संस्थानाची उरिल्ली गादी वोडेयर घराण्यांतल्या कृष्णराज ह्या पांच वर्सांच्या भुरग्याक मेळ्ळी. म्हैसूर संस्थान सोडून हेर वाठार ब्रिटिशांचे सत्तेखाला उरले. कोप्पळ (१८१९), बीदर (१८२७), बादामी (१८४१) हांगा ब्रिटीश सत्तेक खर विरोध जालो. १८५७ वर्साच्या बंडाळेवेळार म्हैसूर संस्थान तटस्थ रावलें. नरगुंद आनी मुंडरगि हांगाचे संस्थानीक, हलगळ्ळीचे बेरड हांणी ह्या झुजांत वांटो घेतलो.

१९०७ वर्सा म्हैसूर संस्थानांत विधीमंडळाची थापणूक जाली. १९२३ वर्सा ह्या विधीमंडळाक अधिकार वाडोवन मेळ्ळे. १९४० वर्सा जयचामराज वोडेयर अधिकारार आयलो. १९४७ वर्सा ताणें म्हैसूर भारतांत विलीन करपाक मान्यताय दिली.

**सुटके झुजाचो इतिहासः** १९०५-०६ वर्सा लोकमान्य टिळकान उत्तर कर्नाटकाची भोंवडी करून लोकांमदीं स्वातंत्र्याविशीं जागरुकताय तयार करपाचो यत्न केलो. १९२० वर्सा पयलीं कर्नाटक राजकी परीशद जाली. १९२४ वर्सा बेळगांव शारांत महात्मा गांधीच्या यजमानपणाखाल अखिल भारतीय कॉंग्रेस अधिवेशन भरलें. भारत छोडो चळवळींत कर्नाटकांतल्या १५,००० परस चड लोकांनी बंदखण भोगली. भारताच्या स्वातंत्र्याची आनी विभक्त कन्नड भाशिकांच्या कर्नाटक एकीकरणाची चळवळ ह्यो दोनूय वांगडाच चलल्यो. कर्नाटकाच्या एकीकरणाची मागणी सरदार पटेलान १९४६ वर्सा मानून घेतली.

**भारताच्या सुटकेउपरांतच्यो घडणुकोः** राज्य पुनर्रचणूक समितीचे शिफारशीवेल्यान कन्नड भाशीक लोकांचें राज्य १ ऑक्टोबर १९५६ ह्या दिसा अस्तित्वांत आयलें. तेआदीं कन्नड भाशीक म्हैसूर आनी हैद्राबाद संस्थान, ब्रिटीश काळावेली मुंबय आनी मद्रास प्रदेश तशेंच वर्ग वाठारांत वांटून गेल्ले. शिमेच्या आनी भाशेच्या प्रस्नावयल्यान आशिल्लो बेळगांव वाठाराचो प्रस्न आयजय सुटूंक ना. १९६७ वर्साच्या न्या. महाजन अहवाला हाच्या उपरांतूय महाराष्ट्र कर्नाटक राज्यांमदलो हो प्रस्न सुटूंक ना. १ नोव्हेंबर १९७३ ह्या दिसा ह्या राज्याचें आदलें नांव 'म्हैसूर' बदलून 'कर्नाटक' अशें दवरलें.

**राज्यवेवस्थाः** कर्नाटक राज्य बेंगळूर (शार), बेंगळूर (ग्रामीण), बेळगांव, बळ्ळारी, बिजापूर, बीदर, चिकमगळूर, चित्रदुर्ग, दक्षिण कन्नड, धारवाड, कोडगु, गुलबर्गा, हासन, कोलार, मंडय, म्हैसूर, रायचूर, शिमोगा, तुमकूर, उत्तर कन्नड अशा २० जिल्ह्यांभितर वांटलां.

विधानसभेंत २२४ तर विधानपरिशदेंत ६३ वांगडी आसतात. भोवमत आशिल्लो पक्ष राज्याचें प्रशासन चलयता. एस्. निंजलिंगप्प ह्या राज्याचो पयलो मुखेलमंत्री आसलो. बी. डी. जत्ती, एस्. आर. कंटी, वीरेन्द्र पाटील, देवराज अरस, आर. गुंडूराव, रामकृष्ण हेगडे, एस्. आर. बोम्मायि हांणीय ह्या राज्याचें मुखेलमंत्रीपद सांबाळ्ळां. सद्या व्ही.

बंगारप्पा हांगाचो मुखेलमंत्री जावन आसा.

**अर्थीक वेवस्थाः** शेतकी पिकावळः राज्यांत खरीप आनी रब्बी अशीं दोन पिकां काडटात. १२ लाख हेक्टर जमनींत भात, ११ लाख हेक्टर जमनींत नासणो, २६ लाख हेक्टर जमनींत जोंधळो हीं पिकां काडटात. भात, बाजरी, गंव, कड्डणां हीं हेर पिकां आसात. नगदी पिकांत ऊंस, कापूस, तेलबियो, केळ, तंबाखू, मिरसांग, सुपारी, नाल्ल, कॉफी, काजू, पोपायो, मिरयां, द्राक्षां, मोसंबी हीं हेर मुखेल पिकां आसात.

रेशमाखातीर मलबरी पीक काडपाक कर्नाटक राज्याचो पयलो क्रमांक आसा.

खनिज उत्पादनः भांगर, रुपें, लोखण, मँगनीज, चुन्याफातर, क्रोमायट, बॉक्सायट, सिलिका हीं राज्यांतलीं मुखेल खनिज उत्पादनां जावन आसात. कोलार गोल्ड फील्ड आनी हट्टी ह्यो मुखेल भांगराखाणी आसात. राज्यांत ५६१७ लाख रुपयांच्या मोलाचें खनिज उत्पादन जाता.

**उदकांतली पिकावळः** राज्यांत दर्यांतल्यान तशेंच न्हंयांतल्यान नुस्त्याउत्पादन मेळटा. सुमार दोन लाख लोक ह्या वेवसायांत आसात. दक्षिण आनी उत्तर कन्नड जिल्ह्यांत वट्ट देड लाख टन नुस्त्या उत्पादन दर वर्सा जाता.

**उद्येगधंदेः** बेंगळूर, म्हैसूर, हुबळी, धारवाड, बेळगांव आनी मंगळूर हीं राज्यांतलीं मुखेल केंद्रां आसात. कच्चो माल, वीज, उदक, हवामान, वावराडी आनी वित्त हांकां लागून राज्यांतल्या उद्येगधंद्यांची उदरगत जाल्या.

**मुखेल उद्येगधंदे अशेः** साकर, लुगट (सुती आनी रेश्मी), शिमीट, तिखें, इलेक्ट्रॉनिक वस्तू आनी अभियांत्रिकी वस्तू. भौशीक मळावेल्या मुखेल उद्येगीक संस्थांचीं नांवां अशीं- HAL, HMT, BHEL, ITI. बंगलोर-जालहळ्ळि वाठारांत भारत सरकाराचे व्हडले कारखाने आसात. घड्याळी, दूरध्वनीयंत्रां, इलेक्ट्रॉनीक वस्तू, विमानाचे सुटावे भाग, लुगट आनी हेर वस्ती घडोवपाचे कारखाने थंय आसात. भद्रावतीचो तिख्या कारखानो, दांडेलीचो कागद कारखानो, मंगळूरचो रसायन आनी साऱ्या कारखानो, बेळगांवचो ॲल्युमिनियम कारखानो, होस्पेटचो तिख्या कारखानो, कुद्रेमुख आनी संडूरचे लोखणा कारखाने हे म्हत्वाचे आसात. राज्यांत २७ सरकारी उद्येगीक वसाहती आसात.

**पर्यटनः** राज्यांतलीं कांय थळां पर्यटनाचे नदरेन म्हत्वाचीं आसात. भौगोलीक आनी इतिहासीक कारणांक लागून संवसाराच्या पर्यटन नकाशाचेर कर्नाटकाक म्हत्वाची सुवात आसा. राज्याचें राजपाटण बेंगळूर हें सगळ्यांत चड म्हत्वाचें. थंयच्यो लालबाग, कब्बन पार्क ह्यो बागो, विधानसौध आनी राजवाडो, तारांगण, विश्वेश्वरय्या उद्येगीक आनी विज्ञानीक वस्तू संग्रहालय आनी मत्स्यालय हांची नामना आसा.ते भायर बेंगळूर हें रेश्मी कपड्यांचें म्हत्वाचें केंद्र जावन आसा.

आदल्या म्हैसूर राज्याचें राजपाटण म्हैसूर शार हांगा सोबीत राजमहाल आनी बागो आसात. थंयच्या दसऱ्याच्या उत्सवाक संवसारीक नामना मेळ्ळ्या. चामुंडी दोंगुल्लेचेर आशिल्लें चामुंडेश्वरी देवूळ आनी वृंदावन बाग हीं आनीक नामनेचीं थळां. टिपू सुलतानाच्या राजमहालाक लागून आनी थंयच्या देवळांक लागून श्रीरंगपट्टनम् हें आनीक एक म्हत्वाचें थळ जावन आसा. रंगनतिट्टु ह्या अभयारण्यांत जगांतल्या पयसुल्ल्या वाठारांतले पक्षी आलाशिरो घेवंक येतात. मंगळूर हें एक म्हत्वाचें बंदर. थंय सोबीत देवळां आनी इगर्जो आसात. बेंगळूर, हलूबीड आनी सोमनाथपुर हांगाचीं फातरांनी कोंरातिल्लीं देवळां चड नामनेक पावल्यांत. श्रवणबेळगोळ हांगाचो एकाच फातराचो अजस्त्र पुतळो हें एक म्हत्वाचें यादस्तीक, तेभायर जैनांचें एक म्हत्वाचें तीर्थक्षेत्र. शिवमोग्गा (Shimoga) हांगाचो जोग धबधबो हो संवसारांतलो सगळ्यांत ऊंच धबंधबो. मडकेरी आनी केम्मनगुंडी हीं नामनेचीं शितळ पर्वतथळां.

बंदीपूर, नागरहोळे आनी दांडेली हीं अरण्यांतलीं विसव घेवपाचीं थळां. विजयनगर साम्राज्याचें राजपाटण 'हम्पि' हांगा त्या साम्राज्याच्या गिरेस्त दायजाच्यो कुरवो अजून होलमतात. थंयचे राजमहाल आनी देवळां श्रीकृष्णदेवरायाच्या वैभवाचो उगडास करून दितात. प्रतिध्वनीखातीर नामना पाविल्लो प्रचंड बिजापूरचो गोलघुमट हें एक संवसारांतलें अजाप.

ब्रिटिशांआड झुजपी राणी चन्नम्माक लागून कित्तूर शार नावाजिल्लें आसा. तशेंच हांगाच्यो बादामी व्होंवरी (caves) लेगीत अजंठा आनी एलोरा हांगाचे व्होंवरींभशेनूच आसात.

**येरादारीः** १९८२-८३ वर्सामेरेन राज्यांत ९८,५२३ किमी. लांबायेचे रस्ते आसले. ३,१२५ किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आसात. तातूंत ५४६ किमी. लांबायेचे ब्रॉडगेज, २,७८८ किमी. लांबायेचे मीटरगेज तर १५३ किमी. लांबायेचे नॅरोगेज रेल्वेमार्ग आसात.

बेंगळूर, बेळगांव आनी मंगळूर हे राज्यांतले तीन म्हत्वाचे विमानतळ आसात.

राज्यांतल्या २८७ किमी. लांबायेचे दर्यादिगेर २० बोटीधके आसात. भारताचो व्हड धको म्हूण मंगळूराक खास म्हत्व आसा.

राज्यांत १९८० वर्सामेरेन ९,३३७ टपाल कचेऱ्यो, २,४६३ दूरध्वनी केंद्रां आसलीं. राज्यांतलीं मुखेल खबरापत्रां फुडलेतरेन आसात.

इंग्लीशः डेक्कन हेराल्ड, हिंदू, इंडियन एक्सप्रेस; कन्नडः प्रजावाणी, कन्नडप्रभा, संयुक्त कर्नाटक, नवभारत, जनवाणी, उदयवाणी.

**लोक आनी समाजजीणः** १९८१ वर्साचे जनगणनेप्रमाण १,९१,७९१ चौ. किमी. आंवाठाच्या ह्या राज्यांत ३७,०४३,४५१ लोक रावताले.

लोकसंख्येची दाटाय दर चौ. किमी. फाटल्यान १९३ इतली आसा. १००० दादल्यांक ९६३ बायलो अशें प्रमाण आसा. साक्षरताः ३८.४१%. बेंगळूर ही राज्याची राजधानी आसा.

हिंदू धर्माचे सगळे पंथ राज्यांत आसात. तेभायर हेर धर्मीय लोकूय राज्यांत रावतात. ब्राह्मणांचे माध्व, स्मार्त आनी श्रीवैष्णव पंथ आसात. वोक्कलिग ही शेतकामती जमात तुंगभद्रा न्हंयचे दक्षिणेक रावता. तांचेमदीं मेल्ल्या मनशाक पुरपाची चाल आसा. तांचो आहार शाकाहारी आसा. मुसलमानांभितर शिया आनी सुन्नी अशे दोन भेद आसात. राज्यांतले सुन्नीपंथी मुसलमान उर्दू भाशीक आसात. दर्यादिगेवेल्या वाठारांत मलयाळि भास उलोवपी 'मापळे' रावतात. उत्तर कन्नडांत कोंकणी भाशीक 'नवायत' रावतात. किरीस्तांवांभितर कॅथलीक पंथीय भोवसंख्य आसून ते कोंकणी उलयतात. तांचो राबितो उत्तर आनी दक्षिण कन्नड जिल्ह्यांत आसा. प्रोटेस्टंट पंथीय तुळू आनी कन्नड भास उलयतात. म्हैसूर राज्य आशिल्ल्या वाठारांत कन्नड आनी तमीळ भाशीक कॅथलीक आसात. अल्पसंख्य जैन आनी बौध्द राज्यांत आसात. चामार, डोर, बोरोड ह्योय जाती राज्यांत आसात.

मकरसंक्रांत, गणेशचवथ, दसरो, दिवाळी ह्यो राज्यांतल्यो मुखेल परबो आसात. म्हैसूरचो दसरो नांवाजल्लो सरकारी उत्सव आसून, तो देश-विदेशांतल्या भोंवडेकारांचें आकर्शण थारला. मारी भूतआराधना ह्यो जानपद धर्माविशींच्यो परबो आसात.

कर्नाटक कलेच्या मळार गिरेस्त आसा. सोळाव्या शतमानामेरेन कर्नाटकांत देवळां आनी तेविशिंच्या वास्तुंची निर्मणी जाली. उत्तरेकडली नागर वास्तुशैली आनी दक्षिणेकडली द्राविड वास्तुशैली हांचे भरसणेंतल्यान चालुक्य वंशाच्या काळांत चालुक्य वास्तुशैली उपजली. हे शैलींतलीं देवळां, पट्टदकल, बादामी, महाकूट, ऐहोळे, आलमपूर, इट्टगी, गदग हांगा पळोवपाक मेळटात. विजयनगर काळांत होस्पेट, हंपि हांगा विठ्ठलस्वामी, विरुपाक्ष, हजारीराम, भोगनंदीश्वर, अनंतशयन, वेदनारायण हांचीं देवळां बांदलीं. तांची वास्तुशैली पारंपारिक आसा. गंगवंशीय काळासावन अस्तित्वांत आशिल्ल्या जैन धर्माक होयसळ राजान आलाशिरो दिलो. त्याकाळांत बाहुबलि आनी गोमटेश्वर ह्या भव्य मूर्तींची निर्मणी जाली. मुसलमानी सत्तेच्या काळार मुसलमानी शैलीचो प्रभाव वास्तूकलेचेर पडलो. ताका 'दख्खन शैली' म्हण्टात. विजापूर, श्रीरंगपटणम, गुलबर्गा आनी बीदर हांगा मुसलमानी शैलीच्यो वास्तू दिसतात. बेंगळूर हांगाची विधानसौध ही आर्विल्ल्या काळांतली सुंदर

वास्तू आसून तातूंत सार्सानिक आनी भारतीय वास्तुशैली भरसल्ली दिसता.

**कलाः** यक्षगान, सुत्रपुतळीखेळ, कोलाट आनी हेर जायत्यो जानपदकला कर्नाटकांत तिगून आसात. यल्लव, मैलारलिंग, महादेवेश्वर ह्यो देवासंबंदीच्यो जानपदकला आसात. दक्षिण कन्नडचे नागमंडल, भूतपुजाउत्सव, बेंगळूरची शक्तीपूजा खड्ग अश्यो जायत्यो धर्मीक कला आसात.

*संगीतः* कर्नाटक संगीत ही कर्नाटकांत वाडिल्ली ऊंच पांवड्याची संगीत कला जावन आसा. त्यागराज हाणें हे कलेक नामना जोडून दिली.

*लोकसंगीतः* लोकसंगीताचो आविश्कार कन्नडयक्षगान पध्दतींत दिसता. पुरंदरदासाचीं किर्तनां होवूय कर्नाटक राज्याच्या संगीतांतलो एक खाशेलो वांटो आसा. संगीताच्या मळार मल्लिकार्जुन मन्सूर, बसवराज राजगुरु, गंगूबाई हनगल, भीमसेन जोशी, दोरयस्वामी अय्यंगार हे कर्नाटकाचे नामनेचे संगीत कलाकार आसात.

*रंगमाचीः* कर्नाटकाचे लोकजीणेंत यक्षगान वा बयलाट हें नृत्यनाट्य प्रचारांत आसा. आदल्या म्हैसूर संस्थानांतल्या जायत्या विद्वानांनी संस्कृत आनी इंग्लीश नाटकांचो थळावे भाशेंत अणकार केलो. हातूंत बसप्पशास्त्री, सुब्बाशास्त्री, अनंतनारायणशास्त्री, गिरिभट्टरतिम्मय्य, व्यंकटाचार्य, नंजनगूडु श्रीकंठशास्त्री, बेळ्ळावेनरहरिशास्त्री हांचो आस्पाव जाता. आर्विल्ल्या नाटककारांमदीं गरूड सदाशिवराय, गुब्बि वीरण्णा हे फुडारिल्ले आसात. टी. पी. कैलासम्, आद्य रंगाचार्य, मास्ती वेंकटेश अय्यंगार गिरीश कार्नाड हांणी नाटकाच्या मळार मोलाचो वावर केला.

**हेर कलाकार आनी विद्वानः यु. एस्. कृष्णराव, चंद्रभागादेवी आनी मायाराव, नामनेच्यो नृत्यकलाकार आसात. चित्रकारांमदीं के. के. हेब्बार, विज्ञानिकांमदीं राजारामण्ण, यु. आर. राव, सर सी. व्ही. रमण, इंजीनियर, भारतरत्न विश्वेवरय्य हे कर्नाटकाचे हेर मळांवेले जाणकार आसात.**

**शिक्षण-पध्दत, प्रसारः** राज्यांत साक्षरतेचें प्रमाण ३८.५% आसा, हातूंत दादले ४८.८% तर बायलो २७.७% साक्षर आसात. दक्षिण कन्नड जिल्ह्यांत साक्षरतेचें प्रमाण ५३.५% तर बेंगळूर जिल्ह्यांत ५१.३% आसा. राज्यांतल्या विद्यापीठांची नांवां फुडलेतरेन आसातः

१. बेंगळूर विद्यापीठ- बेंगळूर २. कर्नाटक विद्यापीठ- धारवाड ३. शेतकी विज्ञान विद्यापीठ- हेब्बाळ ४. कुवेम्पु विद्यापीठ- शिमोगा ५. मंगळूर विद्यापीठ- मंगळूर ६. गुलबर्गा विद्यापीठ-गुलबर्गा ७. म्हैसूर विद्यापीठ- म्हैसूर ८. इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्स- बेंगळूर ९. शेतकी विज्ञान विद्यापीठ- धारवाड.

राज्यांत ३५,२०० मुळाव्यो शाळा, २३७० माध्यमिक शाळा, ४१ तंत्रनिकेतनां, ४३६ महाविद्यालयां, २१ वैजकी महाविद्यालयां आसात (१९८२-८३).

**भाशा आनी साहित्यः** कर्नाटकाची मुखेल भास कन्नड. वट्ट लोकसंख्येंत कन्नड भाशिकांचें प्रमाण ६५.२% आसा. तेभायर राज्यांत ८.७% तेलुगु, ८.७% उर्दू, ४.५% तमीळ, ३.७ % तुळु आनी २.१% कोंकणी भाशीक लोक रावता.

कन्नड भाशासाहित्य गिरेस्त आसून ताका व्हड दायज आसा. नव्या आनी पोरन्या साहित्यिकांचे साहित्यनिर्मणेक लागून कन्नड भाशेंत विंगड विंगड तरेचें साहित्य आयलां.

बसवेश्वर (१२ वें शतमान), हरिहर, राघवांक, रूद्रभट्ट, जन्न, कुमार व्यास (१५ वें शतमान) लक्ष्मी (१६ वें शतमान) सर्वजन, शंकरदेव (१६ आनी १७ वें शतमान) हे कन्नड भाशेंतले आद्य साहित्यकार आसात.

आर्विल्ल्या साहित्यिकांमदीं कवी के. व्ही. पुट्टप्प, डी. आर. बेन्द्रे, मारुती वेंकटेश अंय्यगार, के. शिवराम कारंत हांणी ज्ञानपीठ तस्त्रीप जोडल्या. ए. एन्. कृष्णराव (कवी आनी कादंबरीकार), व्ही. के. गोकाक (कवी आनी कादंबरीकार), गोपालकृष्ण आडिग (कवी आनी निबंधकार), आर. एस्. मुगली (कवी आनी इतिहासकार), गिरीश कार्नाड (नाटककार), गोविंद पै (कवी), कैलासम (नाटककार) अनंतमूर्ति, लंकेश आनी देवनूर महादेव (नवे पिळगेचे लेखक) हांणीय कन्नड साहित्य गिरेस्त केलां.

**म्हत्वाचीं थळांः** राजधानी बेंगळूर, मंगळूर, मणिपाल हीं शारां, मरकेरे, बेळगांव, धारवाड, हासन हीं थंड हवेचीं थळां, म्हैसूर संस्थान, वृंदावन बाग (म्हैसूर), जोग, गोकाक, शिवसमुद्रम हे धबधबे, गोकर्ण, महाबळेश्वर, शृंगेरि, बसवकल्याण, धर्मस्थ उडुपि, शिर्सी, कूडलसंगम, श्रवणबेळगोळ हीं धर्मीक थळां, बादामी, ऐहोळे, बेलूर, सोमनाथपूर, हळेबीड पट्टदकल, गदग, लक्कुंडि, बनवासि, हपी बिजापुर, गुलबर्गा, श्रीरंगपट्णम, म्हैसूर हीं इतिहासीक थळां म्हत्वाचीं आसात.

- डॉ. सूर्यनाथ यू. कामत

पूरक नोंदीः कन्नड भाशा आनी साहित्य; कर्नाटक संगीत; यक्षगान.

**कर्नाटक संगीतः** दक्षिण भारतांत नामना आशिल्ल्या गायन पध्दतीक 'कर्नाटक संगीत' अशें म्हण्टात. कर्नाटक उतराचो लाक्षणिक अर्थ 'पोरनें' असो आसा. हें संगीत भारतांतलें पोरनें संगीत अशें मानतात. भरतमुनीच्या मतान 'भारताच्या दक्षिण वाठारांतल्या लोकांक नृत्य आनी गावपा-वाजोवपाची भोव आवड आसा. तांची गायनशैली आनी अभिनय उंचल्या पांवड्यार आसा. हो वाठार विंध्यपर्वतासावन सकयल दक्षिण दर्यामेरेन पातळ्ळा.'

दक्षिणात्य संगीत मध्ययुगांत यादवांची राजधानी देवगिरि हांगा उदरगतीक पाविल्लें; फुडें मुसलमानांनी हें शार जिखून तें लुटल्या उपरांत हांगाचे संगीतज्ञ विजयनगरच्या साम्राज्यांत आलाशिऱ्याक गेले. फुडें विजयनगरचें साम्राज्यूय काबार जालें. तेन्ना हांगाचे नायक राजा दक्षिणेवटेन वचून तांणी थंय स्वतंत्र राज्यांची थापणूक केली. हांचे पैकीं तंजाउरच्या राज्यांत ह्या संगीताक खासा उर्बा मेळ्ळी.

कर्नाटक संगीताची उदरगत मुखेल करून वैणिक परंपरेचे धर्तेचेर जाली. वैणिक परंपरा म्हळ्यार वीणा वाजोवपाची परंपरा. दक्षिणेंतले चडशे नामनेचे संगीतकार ह्या वैणिक संप्रदायांतले आसात. बोबिली, विजयनगर, तंजाउर, म्हैसूर आनी त्रिवांकुर हांगाच्या संगीताचार्यांनी ह्या वैणिक संगीत संप्रदायाक जल्म दिलो आनी चक्रबंधनम्, बंधतानम्, हे सारक्या कांय खासा तंत्रांची वीणावादनाक साथ दिली. काळांतरान हो वैणिक संप्रदाय दक्षिणेंत पातळ्ळो.

ह्या संप्रदायाचे बसकेचो नेम 'आदिनट, अंत्य सुरट' असो आसा. म्हळ्यार जलशांचो आरंभ नट रागान आनी ताची समाप्ती सुरटी रागान करप ही पध्दत मानसशास्त्र आनी सौंदर्यशास्त्र हांच्या अभ्यासाचेर आनी तातूंतल्या अणभवांचेर आदारित आसा. नट रागाचे स्वर तीव्र आसतात आनी तांकां लागून संगीताक फाव तशें वातावरण निर्माण जाता. सुरटी हो एक बरो (शुभ) राग आसा. जलशाची समाप्ती ह्या रागान करप म्हळ्यार पवित्र समजतात. मध्यान रातीच्यो धर्मीक कार्यावळी सुरटी रागानूच सोंपयतात.

कर्नाटक संगीताविशीं जातूंत थोडी-भोव शास्त्रीय म्हायती मेळूंक शकता, असो सगळ्यांत पोरनो ग्रंथ म्हळ्यार 'शिलप्पाधिकारम्' हें महाकाव्य. हातूंत वीणा, मृदंग सारक्या त्या काळार प्रचलित आशिल्ल्या बऱ्याचशा वाद्यांचो उल्लेख आसा. स्वर आनी राग हांचेविशींय म्हायती आसा. 'शिलप्पधिकारम्' हातूंत बरयल्ली गायनपरंपरा आयजमेरेन तमिळनाडूंतल्यान 'पण' पध्दतींत दिसून येता. हिंदुस्थानी संगीतांत जशे आरोही-अवरोही अशे पंगड आसात, तशाच प्रकारच्या कर्नाटक संगीतांतल्या पंगडांक 'पण' म्हण्टात. जीब, नाक, ओंठ, दांत ह्या सारक्या आठ अवयवांच्या पालवान आनी एडुतळ (उखलप), पडुतळ (आडवे करप), नळिहळ (दामप), कंपितम् (स्वर कांपवप), कुटिलम् (वाकडे करप), ओळि (स्वरनिर्मणी करप), विरुथम् (पिळवटप) आनी टक्कू (शुध्द उच्चार), ह्या गजालींतल्यान पणांची उत्पत्ती जाता. हांकां स्थाय आनी गमक अशें म्हण्टात. कर्नाटक संगीतांतल्या आलापाचीं हीं

मुळावीं तत्त्वां जावन आसात.

ह्या संगीताचे दोन काळखंड करूं येतात. १. संघम्‌काल (इ.स.प. ५० मेरेन) आनी २. तेवारम्‌काल (इ.स.प. ५० ते इ.स. १८०० मेरेन). ह्या दुसऱ्या काळखंडांत ज्यो कठीण पूण मधुर आनी ताळबध्द अश्यो रचणुको निर्माण जाल्यो, त्यो फुडल्या काळाखातीर आदर्श थारल्यो. हातूंत विंगड विंगड प्रांत आनी वेगवेगळ्या काळांत प्रचलित आशिल्ल्या रचणुकांचीय भर पडल्या.

इ.स. च्या १२ व्या शतमानांत मानसोल्लास ह्या ग्रंथाचो बरोवपी सोमेश्वर हाणें दक्षिणेंतल्या हे गायनपध्दतीक 'कर्नाटक संगीत' अशें नांव दिलें. १३ व्या शतमानांत उत्तर भारतांतल्या संगीताचेर मुसलमानी प्रभाव पडूंक लागिल्लो; पूण दक्षिण भारतांतल्या संगीताचें वेगळें मोडण दिसूंक लागिल्लें. पूण ह्यो दोनूय पध्दती पुरायपणान वेगळ्यो जाल्यो, त्यो विद्यारण्याच्या काळांत (१४ वें शतमान). विद्यारण्यान पयलेच फावट कर्नाटकी रागांचें वर्गीकरण मेलजन्य पध्दतीन केलें; पूण खासा नेम नाशिल्ल्यान कांय काळ ही रागपध्दती अस्पश्टच उरली. फुडें १५ व्या शतमानांत पुरंदरदासान कर्नाटकी रागांचें स्वरूप स्पश्ट केलें आनी ताकाच लागून कर्नाटक संगीताक निश्चित अशें शास्त्रीय रुप मेळ्ळें. हाचेविशीं रामामात्य हाणें १६ व्या शतमानांत आपल्या स्वरमेलकलानिधी ह्या ग्रंथांत बरोवन दवरलां. कर्नाटक संगीतावयलो हाचे उपरांतचो म्हत्वाचो ग्रंथ म्हळ्यार सोमनाथ हाचो रागविबोध. १७ व्या शतमानांतल्या ह्या ग्रंथांत ताणें श्रुती, स्वर हांचेविशीं विस्तारान बरयलां. ह्या ग्रंथाक बरीच नामना मेळ्ळ्या आनी तो बऱ्याच जाणांच्या आदराक पात्र थारला.

१६ व्या शतमानांतल्या पंडित वेंकटमुखी हाणें कर्नाटक संगीताक चड बरें स्वरुप दिलें. ध्वनी आनी तांची कंपनसंख्या हांचो बारीकसाणीन अभ्यास करून ताणें रागाचे जनक आनी जन्य अशे दोन वांटे केले. ह्या जनक रागांकूच मेलकर्ता, मेल, कर्ता आनी संपूर्ण अशीं दुसरीं नांवां आसात. तांची संख्या ७२ आसा आनी दरेकांत सात स्वर आसात. जनक रागांतल्यान तयार जाल्ले ते जन्य. तांची संख्या उणी आसा. तातूंत मूळ रागांतले स्वर आसतात आनी केन्नाय भायले एक दोन स्वर आसूंक शकतात. स्वरांची सुवात, भारतीय संगीतांतली तांचीं नांवां, हिंदुस्थानी आनी कर्नाटक संगीतांतलो तेविशींचो फरक सकयल दिल्ल्या कोश्टकावयल्यान स्पश्ट जाता.

| स्वर सुवात कर्नाटक | स्वराचें नांव अस्तंतेकडल्या संगीतांतलें नांव | भारतीय संगीत |
|---|---|---|
| १ | सा | षड्ज C (Natural) |
| २ | रे-१ | शुध्द ऋषभ D (D flat) |
| ३ | रे-२ | चतु श्रुति ऋषभ D (Natural) |
| ४ | ग-१ | साधारण गांधार E (E flat) |
| ५ | ग-२ | अंतरा गांधार E (Natural) |
| ६ | म-१ | शुध्द मध्यम F (Natural) |
| ७ | म-२ | प्रति मध्यम F (F sharp) |
| ८ | प | पंचम G (Natural) |
| ९ | ध-१ | शुध्द धैवत A (A flat) |
| १० | ध-२ | चतु श्रुति धैवत A (Natural) |
| ११ | नि-१ | कौशिकी निषाद B (B flat) |
| १२ | नि-२ | काकली निषाद B (Natural) |

कर्नाटक संगीतांत रागांचो क्रमथारता. ऋषभ आनी गांधार हांच्या योगान दरेक रागाचे ६ भेद जातात आनी धैवत आनी निषाद हांच्या योगान ६ भेद जातात. पयल्या ६ भेदांभितर दुसऱ्या ६ भेदांनी प्रस्तार केल्ल्यान ६×६=३६ आनी तातूंत दरेकी प्रतिमध्यम (तीव्र) स्वर घेतिल्ल्यान जावपी ३६ अशे सगळे ७२ मेल जातात.

ह्या ७२ मेलांची कल्पना स्पश्ट जावपाखातीर स चक्रांची येवजण केल्या. ही येवजण सकयल दिल्ल्या कोश्टकाप्रमाण आसा.

पयलो ऋषभ आनी पयलो गांधार मेळून चक्र पयलें
पयलो ऋषभ आनी दुसरो गांधार मेळून चक्र दुसरें
पयलो ऋषभ आनी तिसरो गांधार मेळून चक्र तिसरें
दुसरो ऋषभ आनी दुसरो गांधार मेळून चक्र चवथें
दुसरो ऋषभ आनी तिसरो गांधार मेळून चक्र पांचवें
तिसरो ऋषभ आनी तिसरो गांधार मेळून चक्र सवें

मेल पध्दतीच्या रागांचीं नांवां पध्दतशीरपणान येवजून त्या रागांच्या नांवांतल्या पयल्या दोन अक्षरांनी त्या त्या रागाचो क्रमांक समजून येवचो आनी क्रमांक समजल्ल्यान रागाक लागपी प्रयोगस्वरूप समजुचे, अशें मेल पध्दतीचें खाशेलेपण आसा.

हे पध्दतींत क सावन ह मेरेन जितले वर्ण आसात, तातूंत ञ हो वर्ण सोडून हेर वर्णांचे पांच वांटे केल्ले आसतात आनी तांतल्या दरेक अक्षराखातीर खासा अंक थारायिल्लो आसता.

| क्रम | | अंक | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | क्रम | १ | २ | ३ | ४ | ५ | ६ | ७ | ८ | ९ | ० |
| १. | कादिनवाः | क | ख | ग | घ | ङ | च | छ | ज | झ | |
| २. | टादिनवाः | ट | ठ | ड | ढ | ण | त | थ | द | ध | |
| ३. | पादिपंचाः | प | फ | ब | भ | म | | | | | |
| ४. | याद्यष्टाः | य | र | ल | व | श | ष | स | ह | | |
| ५. | नकाराय बिंदू | | | | | | | | | | न |

देखीकः माया =५१ - क्र. १५ मायामालवगौळ
भव =०४ – क्र. ४० नवनीत
धीर =९२ – क्र. २९ धीरशंकराभरण
हरि =८२ - क्र. २८ हरिकांभोजी

जनक रागांची खाशेलेपणां अशीं आसात:-

१. आरोह आनी अवरोह ह्या दोनांतूय सातूय स्वरांचो उपेग २. आरोह आनी अवरोह हातूंतलो नियमितपणा आनी ३. तातूंत वापरिल्ल्या स्वरांचें सजातीय (एकाभशेन) रुप.

जन्य रागांचे वर्ज राग आनी वक्र राग अशे दोन वांटे आसात.

पोरन्या काळांत दक्षिणेकडलें संगीत हें मुखेल सात स्वरांच्या बुन्यादीचेर आदारिल्लें आशिल्लें. हिंदुस्थानी संगीताभशेन पोरन्या काळासावन कर्नाटक संगीतांतूय २२ श्रुती आपणायल्यात. कर्नाटक संगीतांत स्वरांची अदलाबदल आनी संयोग (permutations and combinations) हांकां प्राधान्य आसा आनी स्वरमाधुर्यापरस तालबध्दतेक चड म्हत्व दिल्लें आसता.

कर्नाटक संगीतांत १०८ ताल आशिल्ल्याचें सांगतात. नंदिकेश्वरान आपल्या भरतार्णव ह्या ग्रंथांत ११२ तालांचो उल्लेख केला. ३५ आनी ७२ तालांचेय उल्लेख मेळटात. ७२ राग वेंकटमखीच्या रागनामाप्रमाण आसून रागाच्या नांवावयल्यान तालाचेंय स्वरूप समजता, पूण अशीं तालसंख्येविशींचीं मतां विंगड विंगड आसलीं तरी, सद्या फुडले सात तालूच मुखेलपणान वापरतात. तांचें कोश्टक अशें:-

| क्रमांक | तालाचें नांव | आंग | मात्रासंख्या | | ठेको |
|---|---|---|---|---|---|
| १. | एकताल | । | ४ | | १ |
| २. | रुपकताल | । | २+४ | =६ | २ |

| ३. | झपताल | । U ० | ४+१+२ | =७ | ३ |
|---|---|---|---|---|---|
| ४. | त्रिपुटताल | । ० ० | ४+२+२ | =८ | ३ |
| ५. | मठ्यताल | । ० । | ४+२+४ | =१० | ३ |
| ६. | अटताल | ।। ० ० | ४+४+२+२ | =१२ | ४ |
| ७. | ध्रुवताल | । ० ।। | ४+२+४+४ | =१४ | ४ |

ह्या सात तालांचे त्र्यस्त्र, चतुरस्त्र, खंड, मिश्र आनी संकीर्ण अशे पोटभेद आसात. चतुरस्त्र जातीच्या त्रिपुटतालाक आदिताल म्हण्टात.

कर्नाटक संगीताचेर द्रविड संस्कृतायेची छाप स्पश्ट आसली, तरी तातूंत आर्यतत्त्वां आनी द्रविड आचार हांचो सोबीत संगम जाला. हिंदुस्थानी संगीतांतले राग आनी ताल आपणायतना दक्षिणेंतल्या संगीतकारांनी तांकां कर्नाटकी रूप दिलां. दक्षिणी संगीतांतलो दरेक स्वर अलंकृत आसता. तातूंत श्रध्दा, भावना आनी उत्साह भरपूर आसता.

कर्नाटक संगीताची स्वररचणूक हिंदुस्थानी संगीताप्रमाण शांत, थीर आनी स्पश्ट नाप्सता. तातूंतले स्वर कंपयुक्त आसतात आनी तातूंत भरसण जाल्ल्यावरी दिसता. दक्षिण भारतीय कलाकार आपली स्वररचणूक शास्त्रशुध्द दवरपाचो यत्न करतात. तातूंत वेगळेपण दाखयनात. कारण अशें वेगळेपण दाखयल्यार रचणुकेंत दोश उप्रासतले अशें तांकां दिसता.

कर्नाटक संगीताचे रचणुकेचे प्रकार अशे:

१. **लक्षणगीत:** लक्षणगीतां पुरंदरदास हाणें रचल्यांत. हो प्रकार हिंदुस्थानी संगीताप्रमाणूच आसा. ह्या गीतांचो पयलो वा मुळावो वांटो म्हळ्यार देवांची तुस्त आनी उरिल्ले वांटे गीतां जांचेर आदारल्यांत, अशा रागांच्या खाशेलपणाचेर आसतात. गोविंद दिक्षीधर, मच्च वेंकीट्टा मखी, गोविंदाचार्य आनी आतूर कृष्ण पिशारोडी हांणीय बऱ्याच लक्षणगीतांची रचणूक केल्या.

२. **वर्णम्:** हे रचणुकेंत उतरां उणीं आनी स्वर चड आसतात. वर्णम्चे दोन वांटे आसतात. पयल्या वांट्याक पूर्वांग आनी दुसऱ्याक उत्तरांग म्हण्टात. पूर्वांगांत पल्लवी, अनुपल्लवी आनी मुक्ताबाई ह्या स्वरांचो आस्पाव जाता. उत्तरांगांत चरणम् ह्या स्वरांचो आस्पाव जाता. दोनूय वांट्यांची लांबाय सारकीच आसता.

तानवर्णम् आनी पदवर्णम् अशे वर्णम्चे दोन प्रकार आसात. पयल्यांतली पल्लवी, अनुपल्लवी आनी चरणम् हातूंत उतरां आसतात. जाल्यार हेर वांट्यांत सरगमचो उपेग करतात. सुरखातीची गती मंद आसता. ताची रचणूक हिंदुस्थानी संगीतांतल्या पदावरी आसता; ह्या पदांचो नृत्यावेळार उपेग जाता.

३. **कृति:** ही रचणूक हिंदुस्थानी संगीतांतल्या धृपदाभशेन आसता. कर्नाटक संगीतांतली ही सगळ्यांत चड उदरगत जाल्ली अशी रचणूक जावन आसा. ती अठराव्या शतमानांत रुढ जाली. ही रचणूक चिट्ट स्वरांनी सजयिल्ली आसता. हे चिट्ट स्वर (सरगम) मध्यम लयींत गायतात. रचणुकेंत स्पश्ट जावंक नाशिल्लें रागस्वरूप ह्या चिट्ट स्वरांक लागून समजता.

४. **पद्म:** ही रचणूक हिंदुस्थानी संगीतांतल्या ख्यालासारकी आसता. पद्माचें गायन कृतिप्रमाणूच करतात; पूण ताचो आरंभ अनुपल्लवीन करतात.

५. **जावळि:** ही रचणूक ठुमरीभशेन आसता आनी तांतलो शृंगार नृत्याभिनयाखातीर उपेगी आसता. पट्टम् सुब्रमण्य अय्यर, पट्टाभी रामय्या, रामनाथपुरम् श्रीनिवास अय्यंगार आनी इराइमण थंपी हांणी जावळिंची रचणूक केल्या.

६. **रागमालिका:** एका परस चड रागांच्या रचिल्ल्या पदांक रागमालिका म्हण्टात. हे रचणुकेच्या विंगड विंगड वांट्यांचे राग वेगवेगळे आसतात. रचणुकेंत जितले राग आसात, तितलेच रागमालिकेचे चरण आसतात आनी तांची सगळ्यांची लांबाय एकसारकी आसता. हे भायर कांय रचणुको तालभेदाचेरुय आदारित आसतात-

अ) तालमालिका: हे रचणुकेच्या दरेक वांट्याचो ताल वेगळो, पूण राग एकूच आसता.

आ) पंचतालेश्वर: होय तालमालिकेभशेन आसा. हाचे पांच वांटे आसात.

इ) राग-तालमालिका: हातूंत दरेक वांट्याचो राग आनी ताल वेगवेगळो आसता.

ई) तिल्लाना: हिंदुस्थानी संगीतांतल्या तराण्याभशेनूच हो प्रकार जावन आसा.

७. **पल्लवी:** हिचे राग आनी ताल बरेच कठीण आसतात. हिचें स्वरूप ख्यालाभशेन आसता. कर्नाटक संगीतांतली पल्लवी आनी हिंदुस्थानी संगीतांतली अस्थाई एकेचभशेन आसा. तशेंच अनुपल्लवी आनी अंतरा हेय एकेचभशेन आसात.

कर्नाटक संगीताचीं शास्त्रशुध्द परंपरागत वाद्यां म्हळ्यार सरस्वतीवीणा, बांसरी, मृदंगम् आनी नागस्वरम्.

- श्रीमती ए. एच्. प्रेमकुमारी

## कर्पे, गोविंद शांबा: (जल्म: १९२४, सांखळी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. गोंय सुटके चळवळीच्या काळांत तो राश्ट्रीय कॉंग्रेस गोंय (National Congress Goa) संघटनेचो वांगडी आसलो. १८ जून १९४६ दिसा मडगांव शारांत डॉ. लोहियाच्या फुडारपणाखाल सत्याग्रह जाल्लो, तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. सुटके झुजारी मार्क फेर्नांदीस हाच्या मार्गदर्शनाखाल ताणें वावर केला. सदानंद बोंद्रे आनी तुकाराम सिमेपुरुषकार हांच्या वांगडा शिमेवेल्यान राश्ट्रवादी पत्रकां, वण्टीपत्रकां हाडप आनी गोंयच्या म्हत्वाच्या थळांनी तीं लावप, असलो वावर तो करतालो. पोर्तुगेज गव्हर्नर- जनरल कळंगूट वाठारांत येवपाचो आशिल्लो, तेन्ना ताणें तो वेळ सादून कळंगूट वाठारांत 'भारत सोडात' (भारत छोडो) अशें बरयल्लीं पत्रकां लायलीं. २६ जानेवारी १९५४ ह्या दिसा ताणें तिरंगी बावटो लायिल्लो. पोलिसांनी ताका अटक केली, खूब मार दिलो आनी आल्तिनोचे बंदखणींत दवरलो. उपरांत पोर्तुगेज सरकाराच्या थळाव्या लश्करी दंडाधिकाऱ्यामुखार (Territorial Military Tribunal) ताची चवकशी जाली. तेन्ना ताणें आपलो गुन्यांव मान्य केलो ना, देखून ताका पांच वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली आनी पंदरा वर्सांखातीर ताचे नागरी हक्क काडून घेतले. १९५७ वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जातकच तो परतो राश्ट्रवादी वावरांनी वांटो घेवंक लागलो. भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. १५ जून १९८५ दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कर्पे, रामकृष्ण अर्जुन: (जल्म: २३ ऑगस्ट १९२२, म्हापशें-बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठी आनी पोर्तुगेजींतल्यान घेतलें. फुडलें शिक्षण इंग्लिशींतल्यान घेतलें. तो एक चित्रकार आशिल्लो. १८ नोव्हेंबर १९४६ दिसा म्हापशां वाठारांत जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो, बरेच मार दिलो आनी धा दीस बंदखणींत बंद करून दवरलो. १५ ऑगस्ट १९५४ दिसा आल्फ्रेड आफोंसो हाच्या फुडारपणाखाल तेरेखोल वाठारांत जो सत्याग्रह जाल्लो, तातूंतूय ताणें वांटो घेतिल्लो. ह्या वेळार पोलिसांनी ताका अटक केली आनी खूब त्रास दिले. उपरांत पोर्तुगेज सरकाराच्या थळाव्या लश्करी दंडाधिकाऱ्यामुखार (Territorial Military Tribunal) ताची चवकशी जाली आनी ३१ मार्च १९५५ दिसा ताका बारा वर्सांखातीर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. अर्दी ख्यास्त भोगतकच ताचेकडल्यान बरे वागणुकीचें उतर घेवन पोलिसांनी ताची आनी हेर वांगड्यांची सुटका केली. ८ जानेवारी १९७४ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८६ दिसा गोंय सरकारान ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**कर्म:** 'कर्म' ह्या उतराचो अर्थ वेव्हार, हालचाल वा क्रिया असो जाता 'कर्म' हें उतर 'कृ' ह्या संस्कृत धातूसावन आयलां. 'कृ' म्हळ्यार करप. मनीस जें करता वा मनशाकडल्यान जें घडटा, तें कर्म.

गीतारहस्याप्रमाण (पान २५९) क्रिया मनशान केल्ली आसूं वा मूळ धर्तरी उत्पन्न करपाची आसूं, ताका कर्म म्हण्टात. ह्या अर्थाखेरीज 'कर्म' ह्या उतरावरवीं कर्मफलाचो वा कर्माच्या अदृश्य परिणामांचो बोध जाता. हाका लागून 'कर्म' ही संकल्पना सामकी संदिग्ध जाल्या. वयल्या गजालींखातीर 'कर्म' ह्या उतराचे विंगड विंगड अर्थ वेगळायल्यार कर्माची संकल्पना अशी स्पश्ट जाताः

क) वैशेशिक तत्त्वज्ञानांत कर्म ही एक स्वतंत्र वस्त आसून उत्क्षेपण, अपक्षेपण, आकुंचन, प्रसरण आनी गमन हीं पांच पंचकर्मां तांणी आपणायल्यांत.

ख) मूळ धर्तरी उत्पन्न जावपाची वा धर्तरेंतल्या वस्तूंचो वेपार ह्या अर्थान कर्मांत कार्यकारण संबंदान घडपी घडणुको आस्पावतात. पूण हांगा कर्त्याची वा कर्तृत्त्वाची अपेक्षा नासता.

ग) मनशाकडल्यान जाल्ली कृती, ह्या अर्थान कर्माक कर्त्याची अपेक्षा नासता.

घ) 'कर्म' म्हळ्यार कृतिचें दिसनाशिल्लें पाप-पुण्यात्मक परिणाम. वयल्या अर्थान कर्माचे संचित, प्रारब्ध आनी क्रियमाण अशे भेद जातात.

**वर्गीकरणः** वयर आयिल्ल्या (ग) आनी (घ) ह्या दोन संकल्पनांक खास करून धर्मीक आनी तत्त्वज्ञानात्मक नदरेन म्हत्व आसा.

ह्या कर्माचें विंगड विंगड पध्दतीन वर्गीकरण करतातः

१. कायीक, वाचीक आनी मानसिक कर्म. शरीराकडल्यान जें कर्म जाता तें कायीक, उलोवण्यांतल्यान जें कर्म जाता तें वाचीक, तर मन, बुध्द हांचे वरवीं जें कर्म जाता, ताका मानसिक कर्म म्हण्टात.

२. वयल्या दरेक प्रकारच्या कर्मामदीं कळून, कळनासतना, जाण दवरून-अजाणपणान, हेत मनांत बाळगून वा बाळगिनासतना, अशे भेद जातात. मनीस कृतीक जापसालदार आसा वा ना हें थारावपाक भेद म्हत्वाचे आसात. सादारणपणान मनशान केल्ली कृति कळून, जाणविकायेन आनी हेत मनांत बाळगून केल्ली आसल्यार तो मनीस वा ती व्यक्ती जापसालदार थारता. नाजाल्यार ती जापसालदार थारना. ३. नीत, धर्म आनी कायदो हे नदरेंतल्यान हेत बाळगून केल्ल्या कर्माचे विहीत-अविहीत, युक्त-अयुक्त अशे भेद करतात. काम्य, कर्तव्य आनी निशिध्द अशेय भेद करतात. वैदीक वर्णाश्रमविहीत कर्मां करचीं, अशें सांगला. ४. कर्माचे सात्विक, राजस आनी तामस अशे भेद करतात (भगवद्गीता- १८.२३-२५).

**कर्माची कारण मीमांसाः** भगवद्गीतेंत कर्माचीं पांच कारणां सांगल्यांत. शरीर कर्माचें अधिश्ठान आसून, जीव हो कर्तो आसता. कर्मेंद्रिय आनी ज्ञानेंद्रिय साधनां (करण) आसतात. प्राण आदी वेपार (चेश्टा) आनी विंगड विंगड इंद्रियांमदीं आशिल्ल्यो इंद्रादि देवता (दैव) हीं लेगीत कर्माचीं कारणां आसात. ह्या पांच कारणांच्या संयोगांतल्यान कर्म घडटा.

**कर्मसिध्दांतः** दर एके कृतीचे नदरेक पडपी (दृश्य) आनी न पडपी (अदृश्य) अशे दोन परिणाम घडटात. पापपुण्यात्मक अदृश्य परिणामांक कर्म म्हण्टात. कर्त्याक कर्माचें सुखदुख्खात्मक फळ भोगचें पडटा. जीवान आयज मेरेन केल्ले करणेच्या पापपुण्यात्मक वट्ट परिणामाक संचित कर्म म्हण्टात. संचित कर्मामदल्या ज्या कर्माचो भोग सुरू जाला, ताका प्रारब्ध म्हण्टात. प्रारब्ध कर्माचें फळ भोगता आसतना जावपी कर्माच्या परिणामाक 'क्रियमाण' म्हण्टात. ह्या क्रियमाणाची संचिताभितर एकसारकी भर पडत आसता. वट्ट कर्माचें फळ जीवाक एका जल्मांत भोगून सोंपोवंक मेळना. देखून, मनशाक आनीकूय जल्म घेवंचे पडटात. अशे तरेन मनीस जल्म-मरणाच्या चक्रांत घुस्पता. हाकाच संवसार म्हण्टात.

हिंदू, बौध्द वा जैन हे तीनूय पूर्विल्ले भारतीय धर्म, कर्मसिध्दांत आनी जल्म-मरण परंपरा ह्यो दोनूय श्रध्दा आपणायतात. मोक्ष वा निर्वाण ह्या चक्रांतल्यान सुटका जाल्यारच मेळटात. कर्म हें करचेंच पडटा, तें चुकोवपाक मेळना; तशेंच कर्म हें बंधनकारक आसा, ह्यो दोन श्रध्दा आपणायतकच कर्मबंधांतल्यान सुटपाक आनीक वाट आसा काय किते, असो प्रस्न उप्रासता.

भगवद्गीतेंत सांगलां, कर्म बादना. कर्तृत्वाचो मद आनी कर्मफलासक्ती ह्यो दोन गजाली बंधनाक कारण आसात. तेखातीर फलासक्ती सोडून कर्म करप, हो ताचेर एक उपाय आसा. हाका 'निश्काम कर्मयोग' म्हण्टात. पुरुष हो अकर्तो आसा. त्रिगुणात्मक प्रकृतीच कर्ती आसा. अशें गिन्यान मेळटकच कर्तृत्वाचो मद उरना, अशें सांख्यांचें म्हणणें आसा. भगवद्गीतेंतलो ईश्वरवाद आनी भक्तियोग हांचे नदरेन प्रकृती ईश्वराचे आधीन आसा. देखून, ईश्वरुच सगळो कर्तो आसा हें जाणून, आपूण स्वता ईश्वराच्या हातांतलें यंत्र जावप, ईश्वर आपल्या हातांतल्यान सगळें कर्म करून घेता हे लीन आनी शरणागत भावनेन कर्म केल्यार, ते बंधनकारक जायना. प्रारब्ध भोगून सोंपता. क्रियमाणाची निर्मणी जायना. जिवाचो मोक्ष जाता.

कर्मसिध्दांत मान्य केल्यार मनशाक क्रियास्वातंत्र्य वा इत्सास्वातंत्र्य उरता काय किते? असो प्रस्न उप्रासता. मनशाक मेळपी सुख-दुख्खाचें नियमन कर्मसिध्दांतासारकें जाल्यार ईश्वराचे शक्तीक मर्यादा पडनात काय किते? असोय प्रस्न निर्माण जाता. भारतीय तत्त्वगिन्यांनातले हे कठीण आनी घुस्पागोंदळाचे प्रस्न आसात.

- डॉ. एस्. एस्. अंतरकर

**कर्वे, इरावती दिनकरः** (जल्मः १५ डिसेंबर १९०५, म्यिंजान-ब्रह्मदेश; मरणः ११ ऑगस्ट १९७०, पुणे).

नामनेची मानवशास्त्रज्ञा आनी लेखिका. महर्षी धोंडो केशव कर्वे हाची सून. तिचो जल्म एका मध्यमवर्गीय महाराष्ट्रीय कुटुंबांत जालो. तिचो बापूय अभियंतो आशिल्लो. तिणें बी. ए. मेरेनचें शिकप पुण्याक केलें. त्यावेळार तिका रँग्लर र. पु. परांजपे हाचें मोलादीक मार्गदर्शन मेळ्ळें. डॉ. घुर्ये हाच्या मार्गदर्शनाखाल 'चित्पावन कोकणस्थ ब्राह्मण' ह्या विशयाचेर प्रबंध बरोवन तिणें एम्. ए. पदवी मेळयली आनी फुडलें शिक्षण घेवपाखातीर ती जर्मनीक गेली. 'मनशाचे तकलेचे कवटेची सादारण असमप्रमाणता' ह्या विशयाचेर प्रबंध बरोवन तिणें बर्लिन विद्यापीठांतल्यान पीएच्. डी. पदवी मेळयली. थंय दिनकर धोंडो कर्वे हाचेकडेन तिचें लग्न जालें. तिचें रावप एकदम सादें आनी वृत्ती पुरोगामी आशिल्ली. कांय वर्सां तिणें श्रीमती नाथीबाई दामोदर ठाकरसी विद्यापीठांत कुलसचिवाचें काम केलें. १९३९ त पुण्याच्या डेक्कन कॉलेजांत समाजशास्त्र आनी मानवशास्त्र ह्या विशयांची प्रपाठक म्हूण तिची नेमणूक जाली. ह्या विभागाची ती विभाग-मुखेली आशिल्ली.

तिणें मानवशास्त्र, समाजशास्त्र आनी मानसशास्त्र ह्या विशयांनी उपाट संशोधन केलें. तिचे सुमार ८० वयर संशोधनपर निबंद उजवाडाक आयल्यात. तिणें बरयल्ल्या ग्रंथांनी **'Hindu Society- An interpretation** (१९६१), **'Kinship Organization in India'** (१९५३), **'Maharashtra-Land & people'** (१९६८) हे इंग्लीश आनी 'परिपूर्ति' (१९४९), 'भोवरा', 'मराठी लोकांची संस्कृती' (१९५१), 'युगान्त' (१९६७) हे मराठी ग्रंथ म्हत्वाचे आसात. तिच्या इंग्लीश ग्रंथांक आंतरराश्ट्रीय मान्यताय मेळ्ळया; तशेंच 'युगान्त' ह्या महाभारतावयल्या चिकित्सक ग्रंथाक साहित्य अकादेमी आनी महाराष्ट्र शासन हांचो पुरस्कार मेळ्ळा. हेभायर तिणें इंग्लीश आनी मराठी नेमाळ्यांतसून स्फूट बरोवपूय केलां.

१९४७ त दिल्लीच्या सायन्स कॉंग्रेसच्या मानवशास्त्र विभागाची ती अध्यक्षा आशिल्ली. तिच्या मानवशास्त्रांतल्या संशोधनाक लागून तिची १९५५ त लंडन विद्यापीठांत व्याख्याती म्हूण एक वर्साखातीर नेमणूक जाली. त्याच वर्सा प्रागितिहासाच्या सकल आफ्रिकी कॉंग्रेसींत तिणें भारत सरकारचें प्रतिनिधित्व केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**कर्वे, चिंतामण गणेश:** (जल्मः ४ फेब्रुवारी १८९३, बडोदा; मरणः १६ डिसेंबर १९६०, पुणे).

मराठी कोशकार आनी लेखक. शिकप बडोदा आनी पुणे हांगा. तो गणिताचो पदवीधर (१९१७). आसून लेगीत डॉ. श्रीधर व्यंकटेश केतकर हाच्या महाराष्ट्रीय ज्ञानकोशाचे येवजणेकडेन आकर्शित जावन केतकराचो सहाय्यक जालो (१९१९). ज्ञानकोशाची निर्मिती जातकच यशवंत रामकृष्ण दाते हाच्या पालवान ताणें 'महाराष्ट्रीय कोशमंडळ' हे संस्थेची थापणूक केली (१९२८) आनी 'महाराष्ट्र शब्दकोश' (७ खंड, १९३२-३८), 'महाराष्ट्र वाक्संप्रदाय कोश' (२ खंडः १९४२,१९४७), 'शास्त्रीय परिभाषा कोश' (१९४८) ह्या कोशांचे रचणुकेंत एक संपादक म्हूण म्हत्वाचो वावर केलो. तेभायर डॉ. केतकराच्या 'महाराष्ट्रीय ज्ञानकोशा'ची सुदारीत आवृत्ती काडपाच्या हेतान य. रा. दाते हाचेवांगडा 'सुलभ विश्वकोशा'ची (६ खंड, १९४९-५१) रचना केली.

कोशकार्याखेरीज ताणें कांय पुस्तकांय बरयलीं, तीं अशीं: 'मानवी संस्कृतीचा इतिहास' (१९३१), 'प्राच्य आणि पाश्चात्य नीतिध्येये' (१९३७), 'आनंदीबाई पेशवे' (१९४०), 'मराठी साहित्यातील उपेक्षित मानकरी' (१९५७), 'कोशकार केतकर' (य. रा. दाते हाच्या पालवान, १९५९). वेगवेगळ्या नेमाळ्यांतल्यान भाशा, साहित्य, इतिहास, संस्कृताय ह्या विशयांचेर ताणें ४०० वयर लेख बरयल्यात. ताणें बरयल्लीं पेशवे काळांतल्या बायलांचीं ल्हान चरित्रां, पुण्यातल्या कांय पूर्विल्ल्या अवशेशांवयलीं टिपणां, ल्हान-ल्हान सोद नोंदी, व्यक्तीनोंदी आनी व्युत्पत्ति नोंदी लक्षणीय आसात. अचूक माहिती, सुटसुटीत मांडावळ आनी संक्षेप, सूक्ष्म संशोधक बुध्दी आनी स्पश्ट फोडणिशी हें ताचे बरपावळीचें खाशेलपण.

महाराष्ट्र साहित्य परिषदेचो चिटणीस (१९३६) आनी खजिनदार (१९५९) म्हूण ताणें काम केलें. १९४२ ते १९५२ ह्या काळांत 'भारत इतिहास संशोधक मंडळा'चो तो चिटणीस आशिल्लो. तो १९४८ सावन पुणे विद्यापीठाचो सभासद, १९५५ सावन महाराष्ट्र सरकारच्या लोकसाहित्य समितीचो अध्यक्ष आनी १९५८ सावन भारत सरकारच्या 'हिंदी शास्त्रीय परिभाषा कोशा'चो सल्लागार आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**कर्वे, धोंडो केशव:** (जल्मः १८ एप्रिल १८५८, मुरुड; मरणः ९ नोव्हेंबर १९६२).

आर्विल्ल्या भारतांतलो एक नामनेचो समाजसुधारक. ताका महर्षी अण्णासाहेब कर्वे ह्या नांवानूच सगळे वळखतात. ताचें शाळेंतलें शिकप मुरुड आनी रत्नागिरी हांगा जालें. १८९१ त मुंबयच्या विल्सन कॉलेजांत ताणें बी. ए. चें शिकप पुराय केलें. त्याच वर्सा लोकमान्य टिळकान फर्ग्युसन कॉलेजांतल्या आपल्या जाग्याचो राजीनामो दितकच नामदार गोखलेन गणिताचो प्राध्यापक म्हूण ताची नेमणूक केली. तेउपरांत ताणे आपलें समाजकार्य सुरू केलें.

पयली बायल भायर पडटकच (१८९१) ताणें पंडित रमाबाईचे 'शारदा सदन' हे संस्थेंतले आनंदीबाई उर्फ बाया कर्वे हे विधवेकडेन पुनर्विवाह केलो. आनंदीबाईन ताका ताच्या समाजकार्याच्या वावरांत तशेंच बायलांच्या शिक्षणाच्या कार्यांत जिवितभर सांगात दिलो. कर्वे हाणें परत लग्न केल्ल्यान ताका तेन्नाच्या ब्राह्मण समाजान खर विरोध केलो. पूण ताची पर्वा करीनासतना ताणें विधवांच्या उध्दाराचें कार्य चालूच दवरलें. १८९३ त ताणें 'विधवाविवाह प्रतिबंध निवारक मंडळ' काडलें आनी दुसरे खेपे लग्न जाल्ल्यांचें कुटुंब-मेळावेय घडोवन हाडले. विधवांच्या शिक्षणाखातीर ताणें १८९९ त 'अनाथ बालिकाश्रम' हे संस्थेची थापणूक केली. हो आश्रम हिंगणे (पुणे) हांगा १९०० वर्सासावन सुरू जालो. बरी घरकान्न करपाचे नदरेन बायलांक फाव अशें शिकप दिवंक जाय म्हूण स्वतंत्र बायलांच्या विश्वविद्यालयाचे स्थापनेखातीर ताणें खूब खटपट केली. हातूंतल्यानूच ठाकरसी कुटुंबाच्या पालवान १९१६ त श्रीमती नाथीबाई दामोदर ठाकरसी बायलांचें विद्यापीठ उबें जालें. ह्या विद्यापीठाच्या अभ्यासक्रमांत बायलांचे जिणेकडेन संबंदीत अशा वेगवेगळ्या विशयांचो आस्पाव आसून शिक्षणाचें माध्यम मराठी आसा. अनाथ बालिकाश्रम आनी बायलांचें विद्यापीठ ह्या संस्थांतल्यान महाराष्ट्रांतल्या हजारांनी बायलांनी आपलें शिकप पुराय केलां. ह्यो दोन संस्था उब्यो करपाखातीर आनी तांची अर्थीक बाजू घट करपाखातीर अण्णासाहेब कर्वेन जिवितभर भारतांत आनी परदेशांत १९२९-३२ ह्या काळांत मिशनरी बाण्यान खूब कश्ट घेतले.



धोंडो केशव कर्वे

महर्षी कर्वे हाचें जिवीत संस्थामय आशिल्लें. वयल्या संस्थांखेरीज 'मुरुड फंड' (१८८६) आनी बायलांच्या उध्दाराखातीर आमरण कार्य करपी कार्यकर्ते निर्माण जावंचे म्हूण काडिल्लो 'निष्काम मठ' (१९१०), गांवगिन्या शिक्षणाखातीर 'महाराष्ट्र ग्राम प्राथमिक शिक्षण मंडळ' (१९३६), जातिभेद-अस्पृश्यताय हांच्या निर्मूलनाच्या हेतान काडिल्लो 'समता-संघ' (१९४४) ह्या संस्थांची ताणें थापणूक केल्ली. ताची आपजीण 'आत्मवृत्त' १९१५ त उजवाडाक आयली.

आर्विल्ल्या भारताच्या समाज सुदारणेच्या इतिहासांत आनी खास करून बायलांचें शिकप, विधवाविवाह हांचेविशीं ताणें आपल्या वावरान, चिकाटीन आनी ध्येयवादान एक वेगळोच आदर्श निर्माण केलो. भारत सरकारान 'पद्मविभूषण' (१९५५), 'भारतरत्न' (१९५८) ह्यो पदव्यो दिवन ताचो भोवमान केलो. ताच्या वावराचें दर्शन करपी एक अनुबोधपट सरकारान काडला.

- कों. वि. सं. मं.

**कर्वे, रघुनाथ धोंडो:** (जल्मः १४ जानेवारी १८८२, मुरुड; मरणः १४ ऑक्टोबर १९५३, मुंबय).

समाजीक भलायकेखातीर संततिनियमन आनी लैंगीक शिकप हांचेविशीं बुध्दिवादी विचार प्रवर्तन आनी प्रत्यक्ष वावर करपी भारतांतलो एक आद्य विचारवंत. महर्षी धोंडो केशव कर्वे हाचो व्हडलो चलो. मॅट्रिकेचे परीक्षेंत मुंबय राज्यांत पयलो आयलो (१८९७). फर्ग्युसन महाविद्यालयांतल्यान बी. ए. (१९०३) पदवी घेतली. १९०६ त अध्यापनाची पदविका घेतली. गणित विशयांत एम्. ए. केली. एल्फिन्स्टन कॉलेज, मुंबय (१९०८-१७); कर्नाटक कॉलेज, धारवाड (१९१७-१९); डेक्कन कॉलेज, पुणे (१९२१); गुजरात कॉलेज, अहमदाबाद (१९२१-२२) आनी विल्सन कॉलेज, मुंबय (१९२२) ह्या महाविद्यालयांनी गणिताचो प्राध्यापक. ताचे क्रांतिकारक विचार आनी बाणेदार स्वभाव हाका लागून ताचे नोकरेंत सदांच अस्थिरताय उरली. ताणें कांय वेवसायूय केले.

संततिनियमनाचें केंद्र (राइट एजन्सी) ताणें १९२१ सावन आपली घरकान्न मालतीबाईच्या पालवान चलयलें. लैंगीक शिकप, संततिनियमन ह्या म्हत्वाच्या विशयांवांगडाच हेर समाजीक आनी संस्कृतीक विशयांकडेन वैज्ञानीक आनी चिकित्सक नदरेन पळोवपाची तांक समाजाक प्राप्त जावंची, हाचेखातीर ताणें उपाट यत्न केले. ताच्या

मतान संततिनियमनाचो व्यापक हेत समाजीक भलायकेचो आसून, निकोप दादल्या-बायलांच्या संबंदाचेर ताची बसका आदारिल्ली आसा. आर्विल्ले नदरेन आनी बुध्दीप्रामाण्याचे कसोटीचेर योग्य थारपी लोकशिक्षणाचो ताणें पुरस्कार केलो. ह्याच हेतान ताणें 'समाजस्वास्थ' हें म्हयन्याळें चलयलें (१५ जुलय १९२७- १५ नोव्हेंबर १९५३). ज्या गजालींची माहिती जावप समाजाच्या आनी व्यक्तीच्या हिताचे नदरेन गरजेची आसा, ती माहिती निर्धारान फुडें येवपाकूच जाय, अशें ताचें मत आशिल्लें. हाचेखातीर ताणें १९२३ त 'संतति-नियमन, विचार व आचार' आनी १९२७ त 'गुप्त रोगांपासून बचाव (विचार व आचार)' हीं पुस्तकां बरयलीं. तेचप्रमाण 'वेश्या-व्यवसाय' (१९४०), 'आधुनिक आहारशास्त्र' (१९३८), 'आधुनिक कामशास्त्र' (आवृत्ती २,१९३४) अशीं कांय शास्त्रीय विशयांची विस्काटावणी करपी हेर पुस्तकां बरयलीं. 'पॅरिसच्या परी' (१९४६) आनी 'तेरा गोष्टी' (१९४०) हें ताचें ललित साहित्यूय उजवाडाक आयलां. ताका नाटकांचीय खूब आवड आशिल्ली. 'गुरुबाजी' (१९३७, 'तार्त्युफ' नाटकाचें रुपांतर) आनी 'न्यायाचा शोध' (१९४६) हें चार अंकी संगीत नाटक ताणें बरयलां.

आगरकराउपरांत खर बुध्दिवादाचो निर्भयपणान पुरस्कार करपी मराठी विचारवंत म्हूण ताचें नांव घेतात. ताच्या आचारांत जी नितळसाण आशिल्ली, तीच ताच्या विचारांतूय आशिल्ली आनी ताची सया ताचे बरपावळींत पडलां.

- कों. वि. सं. मं.

**कऱ्हाडे ब्राह्मण:** कऱ्हाडे ब्राह्मण समाज हो दक्षिणी ब्राह्मणांतलो एक पोटभेद जावन आसा.

सह्याद्री खंडांत कऱ्हाडाविशीं एक श्लोक आयला, तो असो:

केरलाश्च तुलुंगाश्च तथा सौराष्ट्रवासिनः।
कोंकणाः करहाटाश्च्च करनाटाश्च बर्बराः।।

ह्या श्लोकांत चित्पावन ब्राह्मणां प्रमाण कोंकणांत परशुरामान कऱ्हाडे ब्राह्मणांची थापणूक केली, अशें म्हळां.

य. रा. गुप्ते हाच्या मतान कृष्णा-कोयनेचो जंय संगम जाता त्या गांवाक पयलीं करहाट (आतां कऱ्हाड) म्हण्टाले. ह्याच जाग्यार परशुरामान कऱ्हाडे ब्राह्मणांची उत्पत्ती केली, अशें म्हण्टात.

कऱ्हाडे ब्राह्मण कऱ्हाडच्यान कोंकणांत आयले, म्हूण तांकां 'कऱ्हाडे' हें नांव पडलें, अशें चडशे विद्वान मानतात.

तुंगभद्रे सावन नर्मदा- गोदावरी मेरेनच्या प्रदेशाक पूर्विल्ल्या काळांत 'करहाटक' म्हण्टाले. ह्या वाठारांतल्या ऋग्वेदी शांकलशाखी ब्राह्मणांतले कांय जाण कोंकणांत आयले, म्हूण कोंकणांतले लोक तांकां 'कऱ्हाडे' म्हणपाक लागले, अशेंय एक मत आसा.

कऱ्हाडे हे कऱ्हाड सावन कोंकणांत आनी मागीर गोंयांत आयले, हें मत चुकीचें आसून ते मूळचे कोंकणांतले आसून उपरांत घाटार गेले, अशें औंध संस्थानाधिपती बाळासाहेब पंतप्रतिनिधी हाचें मत आसा.

डॉ. प. कृ. गोडे हाच्या पुस्तकांत बाळासाहेब आपलें मत अशें मांडटा: 'कऱ्हाडे हे मूळ करहाटक वाठाराचे रावपी नासून तांकां एका काळार ब्राह्मण लेगीत मानपाक कोणूच तयार नासलो. एका यज्ञमंडपांत दोन-तीन कऱ्हाड्यांनी प्रवेश केलो, तेन्ना मंडप भश्टलो अशें समजून हेर ब्राह्मण भायर गेल्ले, अशी माहिती एका हातबरपावेल्यान डॉ. भांडारकर हाणें दिल्या. कऱ्हाडच्या शिलाहार राजान कऱ्हाड्याक ब्राह्मण म्हूण सगळयांत पयलीं मान्यताय दिली, देखून तांकां कऱ्हाडे हें नांव पडलें. शिलाहारांचे राजवटींत कऱ्हाड्यांची भरभराट जाल्यान आयजूय जायतीं कुटुंबां कोल्हापूरच्या वाठारांत दिश्टी पडटात. आयज जायते कऱ्हाडे गोंयांत पुरोयतपण करतात. जायतीं कऱ्हाडे कुटुंबां आयजूय आपलें मूळ गोंयांत आशिल्ल्याचें मानतात. तांचीं जायतीं कुलदैवतां गोंयांत आसात.

सद्या कऱ्हाडे ब्राह्मण पुराय भारतांत पातळळ्यात. पूण महाराष्ट्र आनी गोंय हीं तांचीं म्हत्वाचीं केंद्रां आसात. शिलाहारांचे राजवटींत ब्राह्मण उदयाक आयले. रत्नागिरी जिल्ह्यांतल्या कऱ्हाड्यांक शिलाहार राजान थंय व्हेले. गोंयांतल्या कऱ्हाड्यांक कमलादेवी आनी माधवमंत्री हांणी हांगा हाडले. तेभायर गुजरातांतले कांय शाकलशाखी ऋग्वेदी ब्राह्मण गुर्जर ह्या आडनांवान कऱ्हाड्यांभितर आस्पावले. गोदावरी पैठण क्षेत्रांतलो नृसिंहभट्ट सत्यवादी नांवाचो एक मनीस कोंकणांतल्या संगमेश्वरलागीं मावळंगे गांवांत तपश्चर्येखातीर गेलो. फुडें ताचे वशंज 'मावळंगकर' ह्या आडनांवान कऱ्हाडे ब्राह्मणांत आस्पावले. आंबेजोगाई सावन, कोंकणांतल्या नेवऱ्यां गांवांत गेल्ले 'खेर' लेगीत कऱ्हाडेच जाले.

ऋग्वेदांची शाकलशाखा ही एकूच शाकलशाखा कऱ्हाड्यांभितर मेळटा. हांचीं गोत्रां अशीं: अत्री, अंगिरस, उपमन्यू, कश्यप, कुत्स, कौडिण्य, कौशिक, गार्ग्य, गौतम, जामदग्नी, नौधृव, पार्थिव (द्वादश), पार्थिव (त्रयोदश) बादरायण, भार्गव, भारद्वाज, मुद्‌गल, लोहिताक्ष, वत्स, वसिश्ठ, वैन्य, विश्वामित्र, शांडिल्य आनी शालाक्ष.

कोल्हापूरची महालक्ष्मी हें कऱ्हाड्यांचें कुलदैवत. कदंब राजान बेळगांवच्या वाठारांतलीं जायतीं घराणीं गोंयांत व्हरून वसयलीं. ह्या कऱ्हाड्यांनी म्हाड्‌डोळची म्हाळसा, कवळेंची शांतादुर्गा, बोरयेची नवदुर्गा, केरीची विजयदुर्गा, गोठणची शांतादुर्गा, बांदोडेची महालक्ष्मी तेभायर आर्यादुर्गा हीं दैवतां आपलीं कुलदैवतां मानलीं. हेभायर आदिनाथ आनी प्रयागमाधव हीं कुलदैवतां आशिल्लीं जायतीं कऱ्हाडी घराणीं आसात. एके म्हाळशेचीं ३५ कऱ्हाडे कुटुंबां भजक आशिल्ल्याची नोंद मेळटा, ती अशी: देसाई, धूपकर, प्रभुदेसाई, बखले, देऊसकर, जांभेकर, बाक्रे, काळे, भाटवडेकर, देवभक्त, सरमोकादम, आठ्लेकर, काकिर्डे, पेळपकर, जांभळे, गोबरे, खानवेलकर, उपाध्ये, साधले, कोनकर, खांडेकर, महाजन, वरेकर, सांडू, सांड्ये, देव, फळणीकर, प्रभुगावकर, शेवडे, तळेकर, टोळये, जानवेकार, रायकर, चुनेकर, नाईक देसाई.

इतिहासकाळांत कऱ्हाड्यांनी खोत, इनामदार, सरदेसाई, सरदेशपांडे, देसाई, सरपोतदार, पोतदार, सबनीस, कारखानीस, सारक्या मुखेल हुद्यांचेर कामां करून गांवाचेर आपलो ताबो दवरिल्लो. काशी, नाशिक हांगाचे त्या कऱ्हाडे क्षेत्रांतले क्षेत्रोपाध्याय आसात. नेपाळच्या पशुपतेश्वराचो पुजारी कऱ्हाडे आसपाक जाय, असो नेम आसा. रामेश्वराकय 'पुजारी' नांवाचे कऱ्हाडे ब्राह्मण आसात.

गोंयांत कऱ्हाडे ब्राह्मण केन्ना, कशे, खंयच्यान आनी कित्याखातीर आयले हाचेविशीं निश्चित पुरावो मेळना; पूण गोंयच्या कांय ग्रामसंस्थांनी कऱ्हाडे-पद्यांचीं नांवां मेळिल्ल्यान कऱ्हाड्यांचो गोंयचे भुंयेकडेन सारस्वतांइतलोच संबंद आयलो आसूंये. तेचपरी गोंयांत वसाहती घडोवपांत सारस्वतांसारको तांणीय वांटो घेतलो आसूंये, अशें बा. द. सातोस्काराचें मत आसा.

कऱ्हाडे ब्राह्मणांचेर पोर्तुगेज सरकाराची वायट नदर आसली. तांकां लागून कऱ्हाड्यांक गोंयासावन पळून सावंतवाडी राजापूराक वचचें पडलें, अशें अ. का. प्रियोळकार म्हण्टा. डॉ. गुणे हाच्या मतान पोर्तुगेज काळापयलीं मुसलमानी आक्रमणांच्या वेळार गोंयचीं कऱ्हाडे कुटुंबां गोंयांभायर पावलीं.

गोंयांत खंयच्याय गांवांत कऱ्हाडे ब्राह्मणांची एकठांय अशी वस्ती ना. पेडणें, पार्से, मांद्रें, सांखळी, सुर्ल, मयें, माशेल, सावय-वेरें, म्हाड्‌डोळ, कवळें, शिरोडें ह्या गांवांत कऱ्हाडे ब्राह्मणांचीं घराणीं आसात.

गोंयचे कऱ्हाडे ब्राह्मण गोंयच्या समाजांत उलयतना कोंकणी भाशेचो उपेग करतात, पूण घरांत आपली खासा कऱ्हाडी मराठी भासूच उलयतात.

गोंयच्या कऱ्हाडे ब्राह्मणांमदीं जीं आडनांवां घोळटात, तीं अशीं: साधले, पित्रे, बाक्रे, जडये, धुपकर, किंजवडेकर, पणशीकर, अळवणी, खेडेकर, देसाई, बखले, उपाध्ये, निगळये आनी हेर.

गोंयांतलीं कऱ्हाडे घराणीं पूर्विल्ल्या काळासावन भिक्षुकी, वैजकी करून रावतालीं. सद्या जायतीं घराणीं संस्कृत भास आनी ज्योतिर्विद्या हातूंत फिशाल आसात. इतिहासकाळांत देसाई, प्रभुदेसाई हीं घराणीं

सरकारी नोकरेंत अधिकारार आसलीं.

गोंय आनी महाराष्ट्रांतच न्हय तर हेर भारताच्या भागांतूय कऱ्हाडे ब्राह्मण पातळिल्ल्यान जावंये, हे जातीचीं दोन खाशेलपणां नदरेंत भरतात. एक म्हळ्यार सारस्वत आपलो वाड-वडलांचो गांव वा आपल्या कुलदैवताचो गांव म्हूण जशे गोंयांकडेन पळेतात वा चित्पावन गुहागर-चिपळूणाकडेन पळेतात तशे कऱ्हाडे ब्राह्मण कऱ्हाड वा गोंयाकडेन पळेनात. भारतांत आनी मूळ वाड-वडलांचे भुंयेकडेन आनी आपले मूळ दैवताचे भुंयेविशीं श्रध्दात्मक कल्पनेचें उणेपण आशिल्ल्यान सारस्वत वा चित्पावनांत जी एकचाराची भावना दिसता, ती कऱ्हाड्यांभितर दिश्टी पडना. दुसरी गजाल म्हळ्यार सारस्वत, चित्पावन, देशस्थ हांचेभितर जातींच्या स्वभावाचीं खाशेलेपणा जशीं उक्तेपणान दिसतात, तशीं कऱ्हाड्यांत दिसनात.

- कों. वि. सं. मं.

**कलकत्ता:** अस्तंत बंगाल राज्याची राजधानी आनी भारताचें एक व्हड बंदर. बंगाल उपसागराचे उत्तरेक गंगा न्हंयच्या हुगळी मुखप्रवाहाचे दावे वटेन दर्यासावन सुमार १३८ किमी. भितर आशिल्लें हें शार. ब्रिटिशांचे सत्तेखाला १७७३ ते १९११ मेरेन हिंदुस्थानाची आनी मागीर १९४७ मेरेन बंगाल इलाख्याची ही राजधानी आशिल्ली. पोरन्या कालीमातेच्या देवळावेल्यान ह्या शाराक 'कलकत्ता' हें नांव पडलां आसूंये. १४९५ तल्या एका काव्यांत हुगळीचे देगेवेलें एक खेडें, असो कालिकाटाचो उल्लेख केला. हांगाचें हवामान कमीत कमी २२.२° से. आसून चडांत चड २९.४° से. आसता. पावसाळ्याचे सुर्वेक आनी अखेरेक हांगा खर चक्रीवादळां जातात. १८९७ आनी १९३४ ह्या वर्सांनी हांगा भूंयकांप जाल्यात. १८९७ च्या भुंयकांपान १३०० इमारती कोसळ्ळ्यात.

ह्या शाराची खरी सुरवात, जेन्ना पोर्तुगेजांनी सरस्वती न्हंयचे देगेर सातगांव ह्या गांवांत गुदांव बांदलो, तेन्नासावन जाली. सोळाव्या शेंकड्यांत हुगळी ह्या वाठारांत वेपारी रावंक लागले. ह्या खेड्याखेरीज गोविंदपूर, कालिकाटा हीं गांवां औरंगजेबाचो पूत अझिम हाचेकडल्यान ब्रिटीश वेपाऱ्यांनी विकतीं घेवन १७०२ वर्सा थंय किल्लो बांदलो. १७०७ त हो भाग ईस्ट इंडिया कंपनीकडेन आयलो. १७५६ त कलकत्ता शार सिराजउद्दौला हाणें हातासलें. पूण दुसऱ्याच वर्सा क्लाइव्ह हाणें तें परतें जिखलें. प्लासीचे लडाये उपरांत मीर जाफ्फर हाणें चोवीस परगण्यांची जमीनदारी आनी भरपूर लुकसाण भरपायेवांगडाच भोंवतणच्या गांवांच्या मोबदल्यांत कलकत्ता हें शार ईस्ट इंडिया कंपनीक दिलें.

१७२७ सावन हांगा नगरपालिका आसा. पूण शाराची उदरगत जाय तितली जालीना, हें शारांतल्या बऱ्याच गैरसोयींवेल्यान दिसता. थंयच्या राजकर्त्यांनी दर खेपेक शार निवळ दवरपाचो यत्न केला; पूण शाराचो व्हड आवांठ, लोकांची दाटी, सगळेवटेन येवपी उदक, वाहनांची गर्दी आनी उद्येगीकरणाचो वेग ह्या कारणांक लागून हें काम कठीण जावन बसलां. देशाचो वेपार चडसो ह्या बंदरावेल्यान घडटा; देखून ताका खाशेलें म्हत्व आयलां. व्हड न्हंयेदेग, गुदांव, धक्के, यंत्रांचे सांठे, सगळे वाठार जोडपी रेल्वे रूळ, व्हड-व्हड रस्ते, विमानतळ, न्हंयो ह्या सगळ्या कारणांक लागून कलकत्त्याक दक्षिण आशियाचें मुखेल बंदर म्हूण नामना मेळ्ळ्या. हावडा वाठारांतल्यान दक्षिण, उत्तर आनी अस्तंत भारताक जाल्यार सीआलढा वाठारांतल्यान उत्तर बंगालाक आनी उदेंत भारताक कलकत्ता शार रेल्वेरूळांनी जोडिल्लें आसा. हांगाच्या 'डमडम' विमानतळान आंतरराष्ट्रीय म्हत्व जोडलां. कपडे, सूत, कागद, लोखण, फस्कां, माकनां, मोटारी, रबर अशा तरेकवार वस्तूंचे कारखाने कलकत्त्यांत आसात. हें शार म्हळ्यार आयात-निर्यातीचो एक व्हड बाजार. हांगाच्यान पांयपुसणीं, लुगटां, कोळसो, लोखण ह्या सारक्या हेर जायत्या वस्तूंची निर्यात जाता. तर मीठ, अन्नधान्य, पेट्रोल, शिमीट ह्या सारक्या वस्तूंची आयात जाता. खुबशा देशी परदेशी वेपारी कंपनींचीं कार्यालयां हांगा आसात. 'बँगाल चेंबर ऑफ कॉमर्स' ह्या सारक्यो संस्थाय हांगा आसात.

आंतरराष्ट्रीय वेव्हार घडिल्ल्यान ह्या शारांत साक्षरतेचें प्रमाण वाडत आसा. हांगाची वट्ट लोकसंख्या: ९१,६६,००० (१९८१) आसून साक्षरतेचें प्रमाण सुमार ६०% वयर आसा. हांगाचे लोक चडकरून बंगाली, हिंदी, ओडिया आनी इंग्लीश उलयतात.

ह्या शारांत दोन विद्यापीठां, खूबशीं महाविद्यालयां, विज्ञान, अभियांत्रिकी, संशोधन संस्था, कलाकेंद्रां, वॉरन हेस्टिंग्ज हाणें स्थापन केल्लें संस्कृत कॉलेज आनी अरबी-फारसी मदरसा, शेतकी संस्था, दोनशीं वर्सांपयलीं स्थापन जाल्लें सिबपूरचें वनस्पतीशास्त्रीय उद्यान, अलीपूरचें प्राणीसंग्रहालय, वेधशाळा, सर विल्यम जोन्स हाणें स्थापन केल्ली 'एशियाटिक सोसायटी', भारताचें भूशास्त्रीय सर्वेक्षण केंद्र, राष्ट्रीय ग्रंथालय, महेंद्रलाल सरकार हाणें स्थापन केल्लें, 'इंडियन असोसिएशन फॉर द कल्टिव्हेशन ऑफ सायन्स', जगदीशचंद्र बोस हाचें 'बोस इन्स्टिट्यूट', जादूघर (इंडियन म्यूझीयम), आशुतोष म्युझीयम, 'मार्बल पॅलेस' अश्यो जायत्यो संस्था आसात. हुगळी न्हंयेचेर आशिल्लो व्हड लेखणी पूल 'हावडा ब्रीज', फोर्ट विल्यम किल्लो, ताचे भोंवतणचें मळ, मळाचे कडेक आशिल्लें ईडन बागेतलें क्रिकेट-फुटबॉल खेळामळ, भोंवतणचें अफाट राजमार्गावेलें राजभवन, उच्च न्यायघर, नगरभवन, रायटर्स बिल्डिंग, टेलिफोन एक्स्चेंज हांच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो इमारती, व्हडलीं हॉटेलां, डलहौसी चौक, चौरंगी मार्केट, कालीघाट विभागांत ३५० वर्सां पयलींचें काली मंदीर, बद्रिदास बागेंतलें नक्षीदार अशें जैन मंदीर, आदी थळां पळोवपासारकीं आसात. हावडा, कासीपूर, चित्तपूर, माणिकताला, गार्डनरीच, दक्षिणेश्वर ह्या उपनगरांनी वचपाक रेल्वे, बस, ट्रॅम आदी वाहनांची तजवीज आसा. हुगळीच्या अस्तंत कांठार बेलूर मठ आनी तारकेश्वर रूपनारायण न्हंयेचेर बौध्द इतिहासांतले नामनेचे तामलूक नगराचे अवशेश पळोवंक मेळटात. हुगळी जंय दर्याक मेळटा, थंयचें डायमंड बंदर, न्हंयेमुखाफुडलो सागर जुंवो हीं थळांय पळोवपासारकीं आसात. भारताच्या स्वातंत्र्य झुजांत ह्या शारान म्हत्वाचें काम केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**कलचुरी वंश:** पूर्विल्ल्या भारतांतलो एक नामनेचो वंश. उत्तर वा दक्षिण भारताच्या खंयच्या ना खंयच्यातरी वाठाराचेर ५५० सावन १७४० मेरेन, सुमार बाराशीं वर्सां हो वंश राज्य चलयतालो. तांच्या कोरांतिल्ल्या लेखांवयल्यान ह्या वंशाची बरीच म्हायती मेळटा. तातूंत ह्या वंशाचें नांव कटच्चुरी, कटचुरि, कलचुरी, कालच्चुरि, कलतुर्य, कळचुर्य अशा विंगड विंगड तरेन बरयलां. उपरांतच्या लेखांनी हे राजा स्वताक हैहय कार्तवीर्य सहस्त्रार्जुनाचे वंशज समजूंक लागले. तांणी २४९-५० ह्या वर्सा चालू जावपी संवताचो सगळेकडेन उपेग केल्ल्यान ह्या संवताक फुडें 'कलचुरि-संवत' वा (तांच्या वाठारावेल्यान) 'चेदि-संवत' अशें नांव मेळ्ळें. पूण तो संवत मूळ तांचो न्हय. तो अभीरांचो संवत. कलचुरी तिसऱ्या शेंकड्यांत उदेवंक नाशिल्ले.

पयलींच्या काळांत सुमार इ.स. ५५० त वाकाटकांउपरांत कलचुरी राजवंश उजवाडांत आयलो. तांचो मूळपुरुस कृष्णराज (सुमार ५५०-५७५) हाणें महिष्मती (मध्य भारतांतले महेश्वर) हांगा आपले राजधानीची थापणूक करून मध्य भारत, गुजरात, कोंकण, अस्तंत महाराष्ट्र आनी विदर्भ ह्या वाठारांचेर राज्य केलें. ताचीं चांदीचीं नाणीं ह्या सगळ्या वाठारांनी सांपडल्यांत.

कृष्णराजाचो पूत शंकरगण (सुमार ५७५-६००) आनी नातू बुध्दराज (सुमार ६००-६२०) हांचे लेख गुजरात आनी महाराष्ट्रांत सांपडल्यात. बादामीच्या मंगलेश ह्या चालुक्य राजान बुध्द राजाचो पराभव केल्लो; पूण ताचें राज्य काबार केलेंना. फुडें दुसऱ्या पुलकेशीन इ.स. ६२० काळांत बुध्दराजाचें राज्य काबार करून राज्य स्वताक घेतलें. उपरांत कलचुरींनी चालुक्यांचे मांडलिक म्हूण राज्य चलयलें. ह्या दोन घराण्यांमदीं संबंद वाडले. बादामीच्या दुसऱ्या विक्रमादित्यान दोन हैहय

राजकुंवरींवांगडा लग्नां केलीं. त्यो कलचुरी वंशीय आशिल्ल्यो, अशें कांय इतिहासकारांचें मत आसा.

सातव्या शेंकड्यासावन बादामीचे चालुक्य महाराष्ट्र-विदर्भ, गुजरात ह्या वाठारांनी चड बळीश्ट जाल्ल्यान कलचुरींनी उत्तर भारतावटेन राज्यविस्तार केलो. तांणी कालंजरच्या किल्ल्याचेर जैत मेळोवन त्रिपुरी (जबलपुरलागीं) हांगा आपली राजधानी केली. उत्तर भारतांतले कलचुरी सत्तेची थापणूक करपी वामदेवराज हो आशिल्लो (सुमार ६७६-७००). ताणें शरयू न्हंयचे पलतडचो वाठार जिखून थंयचो राज्यकारभार चलोवपाखातीर आपल्या धाकट्या भावाची, लक्ष्मणराजाची नेमणूक केली. ह्या तांच्या वंशाच्या फांट्याक शरयूपलतडचे कलचुरी, अशें म्हण्टात. सुमार पंदरा पिळग्यो तांणी थंय राज्य केलें. तांचो निमणो राजा सोढदेव (सुमार १०५५-१०८०) हाचेर जैत मेळोवन कनौजच्या गाहडवालांनी तांची सत्ता काबार केली.

वामदेवाच्या वंशजांनी त्रिपुरी हांगा बरोच काळ राज्य केलें. तांकां डाहल वा चेदी देशाचे कलचुरी म्हण्टात. णवव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत, ह्या वंशांत कोकल्लदेव (सुमार ८५०-८९०) हो बळीश्ट राजा जावन गेलो. ताणें कनौजचो प्रतिहार भोज, शरयू पलतडचो शंकरगण, चित्रकुटचो गुहिल हर्ष, मान्यखेटचो राश्ट्रकूट दुसरो कृष्ण हांकां अभय दिल्ल्याचें वर्णन आसा. ताचो पूत शंकरगण (सुमार ८९०-९१०) हो राश्ट्रकुटांवटेन रावन वेंगीच्या चालुक्यांवांगडा झूज करतालो. कोकल्लाचे धुवेचें लग्न राश्ट्रकूट दुसरो कृष्ण हाच्या वांगडा जाल्लें. तेउपरांत बऱ्याच पिळग्यांनी मान्यखेटचे राष्ट्रकूट अनी त्रिपुरीचे कलचुरी हांचेमजगतीं लग्नसंबंद आशिल्ले. कलचुरी राश्ट्रकुटांक झुजांनी पालव दिताले. ९१५ त राश्ट्रकूट तिसरो इंद्र हाणें कनौजाचेर घुरी घालून तें शार भूंयभरवण केलें, तेन्ना त्रिपुरीचो पयलो युवराजदेव ताच्यावांगडा आशिल्लो.

युवराजदेव (सुमार ९१५-९४५) हाणें आपलो जावंय राश्ट्रकूट बद्दिग ऊर्फ तिसरो अमोघवर्ष हाचो पाखो घेवन मान्यखेटाचेर घुरी घालून जैत मेळयलें.

इकराव्या शेंकड्यांत ह्या वंशांत गांगेयदेव (सुमार १०२५-१०४१) नांवाचो पराक्रमी राजा जालो. ताचो उल्लेख अल्-बरुनी हाणें आपले बरपावळींत केला. ताणें आपली सत्ता प्रयाग आनी वाराणसीमेरेन पातळावन त्या तीर्थक्षेत्रांची मुसलमानांआड राखण केली. ताचीं चालुक्य जयसिंह, धारचो परमार भोज, दक्षिण कोसलचो (छत्तीसगढ- संबळपूर) महाशिवगुप्त ययाती हांच्यावांगडा झुजां जाल्लीं. ताका प्रयाग हांगा अक्षय्यवटालागीं मरण आयलें तेन्ना ताच्यो शंबर राणयो सती गेल्यो, अशें कोरीवलेखांत वर्णन मेळटा. ताणें स्वताक 'विक्रमादित्य' अशी पदवी घेतिल्ली.

गांगेयदेवाचो पूत कर्ण हो बापायपरस चड बळीश्ट आनी म्हत्त्वाकांक्षी आशिल्लो (सुमार १०४१ ते १०७३). ताणें भोजाच्या मरणाउपरांत माळवा जिखलो. चंदेल्ल राजा देववर्मा हाका मारून उडोवन ताचें राज्य जिखलें. बंगालच्या तिसऱ्या विग्रहपालाचो पराभव केलो. जायत्या इतिहासकारांनी ताका 'भारतीय नेपोलियन' अशी पदवी दिल्या.

कर्णाउपरांत त्रिपुरीच्या कलचुरींची ताकद उणी जाली. सुमार १२१० वर्सा चंदेल्ल राजा त्रैलोक्यवर्मा हाणें त्रिपुरीचेर जैत मेळोवन तांचें राज्य काबार केलें.

कलचुरी राजा शिवभक्त आशिल्ले. मुंबयलागचीं घारापुरी लेणी महिष्मती कलचुरींच्या काळांत कोरांतिल्लीं, अशें इतिहासकारांचें मत आसा. त्रिपुरीच्या कलचुरींनीय म्हादेवाची जायतीं देवळां आनी मठ बांदले. कर्ण हाणें वाराणसींत सोबीत देवूळ बांदून घेतिल्लें. युवराजदेवाच्या दरबारांत नामनेचो संस्कृत कवी राजशेखरासारके बुदवंत आशिल्ले. कर्णाच्या आलाशिऱ्याक विद्यापती, गंगाधर, बिल्हण, वल्हण, नाचिराज अशे बरेच कवी आशिल्ले. गांगेय देवान आपल्या नांवान खाशेल्या प्रकारचीं भांगराचीं नाणीं तयार केल्लीं.

**रत्नपूरचे कलचुरीः** १० व्या शेंकड्याच्या शेवटाक त्रिपुरीच्या दुसऱ्या कोकल्लदेवाच्या कलिंगराज नांवाच्या पुतान दक्षिण कोसल (छत्तीसगढ) जिखून घेवन थंय आपल्या राज्याची थापणूक केली. ह्या वंशांत रत्नदेव, जाजल्लदेव, पृथ्वीदेव ह्या नांवाचे राजा जाले. तांणी उदेंतेच्या गंगा आनी पाल राजांवांगडा झुजां करून जैतां मेळयलीं. १४ व्या शेंकड्याच्या शेवटाक ह्या घराण्याचो एक फांटो रायपूर हांगा थिरावलो. छत्तीसगढांतलें कलचुरींचें राज्य नागपूरच्या भोसल्यांनी अठराव्या शेंकड्याच्या मध्याक जिखून घेतलें.

ह्या कलचुरींनीय बरींच देवळां बांदलीं. तांणी विद्वान आनी ब्राह्मणांक आलाशिरो दिलो. तांब्याचीं, भांगराचीं नाणीं तयार केलीं. तांणी बांदिल्लीं देवळां कांय थळांचेर आयजमेरेन आसात.

**कल्याणीचे कलचुरीः** दक्षिणेंत विजापूर जिल्ह्यांत तर्दवाडी हांगा बाराव्या शेंकड्यांत कलचुरी मांडलिक घराणें राज्य करतालें. तांतूतल्या बिज्जल नांवाच्या सामंतान चालुक्य सम्राट तिसरो तैल हाका विस्वासांत घेवन ११५७ त सम्राटपदाची पदवी घेतली. राज्यांत जाल्ले बंडाळींत बिज्जलाक मरण आयलें; पूण कांय जाणांच्या मतान बिज्जलान आपल्या सोमेश्वर नांवाच्या पुताक राजा केलो, असो उल्लेख आसा.

बिज्जलाउपरांत सोमेश्वर (सुमार ११६८-११७७) संकम (सुमार ११७७-११८०) आनी आहवमल्ल (सुमार ११८०-११८३) हे राजगादयेर आयले. चालुक्य सम्राट चवथो सोमेश्वर हाणें ही सत्ता काबार केली.

- कों. वि. सं. मं.

**कलशः** कलश म्हळयार एक वाटकुळें, उबें पात्र. हेमाद्रीच्या व्रतखंडांत ह्या शब्दाची उत्पत्ती अशी दिल्या-

कलं कलं गृहीत्वा च देवानां विश्वकर्मणा ।
निर्मितो यः सुरैर्यस्मात् कलशस्तेन उच्यते ।।

अर्थ- विश्वकर्म्यान देवांच्या कलेकलेचें ग्रहण करून निर्मिल्ल्यान ताका कलश अशें म्हण्टात.

देव-दैत्य अमृत काडपाखातीर क्षीरसागराचें मंथन करपाक लागले तेन्ना तें अमृत दवरपाक विश्वकर्म्यान कलशाची निर्मिती केली, अशीय ताचे उत्पत्तीविशीं एक कथा आसा (कालिकापुराण, ८७).

ऋग्वेदांत कलशाचो उल्लेख आयला (१.११७.१२; ३.३२.१५). ऋग्वेदांतलो हो कलश मातयेपसून वा दुदयापसून केल्लो आसतालो. 'द्रोणकलश', 'पूतभृत्' आनी 'आधवनीय' अशे आनीकूय कलश वैदिक साहित्यांत आयल्यात. 'आधवनीय' आनी 'पुतभृत्' हे सोमरस सांठोवपाक तयार केल्ले मातयेचे व्हडले कलश. द्रोणकलश हो दोण्याच्या आकाराचो चौकोनी वा वाटुकळो आसता. कांय काळान, भांगराचे, चांदीचे, तांब्याचे कलश येवपाक लागले. पूण मंगल कार्यांत तांब्याचोच कलश वापरतात.

बौध्द धर्म अस्तित्वांत येवंचे आदीं ल्हानव्हड समारंभांनी कलशांचो वापर जातालो. राजाचो राज्याभिषेक करतना सिंहासनाम्हऱ्यांत चार दर्यांच्या उदकान भरिल्ले कलश दवरताले. अभिषेक केल्ल्या राजाचें राज्य समुद्रवलयांकित (सार्वभौम) जावं, ही भावना ते कलशस्थापनेफाटल्यान आसताली. त्याच कलशांतल्या उदकान राजाक अभिषेक करताले.

बौध्द धर्मांत पात्र आनी प्रतीक अशा दोन अर्थांनी कलशाचो वापर जाता. कलशाची येवजण वेव्हारांत उदक आनी तत्त्वगिन्यानांत जीवनामृत सांठोवपाखातीर आसता. कलश हें अवलोकितेश्वराचें एक खास अभिज्ञान चिन्ह जावन आसा. अवलोकितेश्वर आपल्या कलशांत करूणामृत सांठोवन दवरता, असो समज आसा. बौध्द धर्मांत पांच व्हडले बुराकांचे कलश पांच ज्ञानी बुध्दांचीं प्रतीकां म्हूण वेदीचेर दवरतात. मैत्रेय बोधिसत्त्व, वसुधारा ह्यो बौध्द देवता आनी धन्वंतरी ही पौराणिक देवी कलशधारी आसा. कुबेराचो उजवो पांय एका हुमथल्या कलशाचेरूच दाखयतात.

कलशाचीं मापां तंत्रसारांत अशीं सांगल्यांतः

पञ्चाशदङ्गुलव्याम उत्सेधः षोडशाङ्गुलः ।
कलशानां प्रमाणं तु मुखमष्टाङ्गुलं स्मृतम् ।।

अर्थः ५० आंगळां परिघ, १६ आंगळां उंचाय आनी ८ आंगळां तोंड, हें कलशाचें प्रमाण जावन आसा.

कलशाचे वट्ट ९ प्रकार आसात, ते अशेः क्षितींद्र, जलसंभव, पवन, अग्नी, यजमान, कोशसंभव, सोम, आदित्य आनी विजय. हातूंतलो विजयकलश पीठाचे मदीं स्थापतात अनी उरिल्ले आठ कलश उदेंत, अस्तंत, वायव्य, आग्नेय, नैर्ऋत्य, ईशान्य, उत्तर आनी दक्षिण अशा अनुक्रमान आठ दिकांनी स्थापतात.

कलशाच्या दरेका भागांत खंयच्या देवतांची वसणूक आसता, तें सांगपी श्लोक असोः

कलशानां मुखे ब्रह्मा ग्रीवायां शङ्करः स्थितः ।
मूले तु संस्थितो विष्णुर्मध्ये मातृगणाः स्थिताः
दिक्पाला देवताः सर्वे वेष्टयन्ति दिशो दश।
कुक्षौ तु सागराः सप्त सप्तद्वीपाश्च संस्थिताः ।।
नक्षत्राणि ग्रहाः सर्वे तथैव कुलपर्वताः ।
गङ्गाद्याः सरितः सर्वा वेदाश्चत्वार एव च ।।
कलशे संस्थिताः सर्वे तेषु तानि विचिन्तयेत् ।
(कालिकापुराण ८७)

अर्थः कलशाच्या तोंडाकडेन ब्रह्मा, गळ्याचेर शंकर, मूळभागांत विष्णू, मदीं मातृकागण आनी धा दिकांनी घेरून दिक्पाल वसणूक करतात. ताच्या पोटांत सप्तसागर, सप्तद्वीपां, ग्रहनक्षत्रां, कुलपर्वत, गंगा न्हंय आनी चार वेद वसतात. कलशाचेर ह्या सगळ्या देवतांचें चिंतन करचें.

लग्नासारक्या मंगल कार्यांत, शांतीकर्मांत, झुजाचेर वतना आनी राज्यारोहण करतना पयले धान्यराशीचेर कलशस्थापना करतात. पुण्याहवाचनाच्या वेळा दोन कलश स्थापतात. त्या कलशांत भांगर, रुपें, मोती, पाचू आनी प्रवाळ हीं पंचरत्नां घालतात. दुर्वा आनी पंचपल्लव हांणी तो सोबयतात. ताका धवें वस्त्र गुठलायतात. ताचेर पूर्णपात्र वा नाल्ल दवरतात. जसो विधी आसता तेप्रमाण कलशांचो आंकडो एक ते एकशें आठ मेरेन कितलोय आसूं येता. वरूणाची पूजा कलशाचेरुच करतात. विधी सोंपतकच त्या कलशांतल्या उदकान ब्राह्मण, यजमान-दंपत्याक आनी ताच्या कुटुंबाक मूर्धाभिषेक करतात. त्यावेळार 'समुद्र ज्येष्ठः सलिलस्य मध्या' हीं वैदिक सूत्रां म्हण्टात. सुख-शांती प्राप्त जावंची म्हूण कलशदान करचें, अशें दानचंद्रिकेंत सांगलां. ताचो मंत्र असोः

कलशः शुभदो भव्यो जलेन परिपूरितः ।
दानेनास्य महत्सौख्यं शान्तिरस्तु सदा मम ।।

अर्थः 'शुभकारक, भव्य आनी उदकान भरिल्ल्या कलशाचें दान केल्ल्यान म्हाका खूब सुख-शांती मेळूं'.

खंयच्याय देवाची पूजा करचे- पयलीं शुध्द उदकान भरिल्ल्या कलशाची पूजा करतात. त्या वेळार 'कलशस्य मुखे विष्णुः' हो श्लोक म्हण्टात. तातूंतलें उदक तुळशीच्या पानान सगळ्या पूजेसाहित्याचेर शिंपडायतात आनी मंत्र म्हणून पूजा साहित्याची शुध्दी जाली, अशें समजतात.

कमळांची नक्षी आशिल्ले कलश भरहूत, सांची, अमरावती हांगाच्या बौध्द शिल्पांत मेळटात. देवळांतले आनी लेण्यांतले खांबे चड करून कमल आनी कलश हांच्या संयोगानूच घडयल्ले दिसतात. देवळाचे तेंगशेर जो कळस आसता तो कलशूच. सकयल कलश आनी ताचेर उबो नाल्ल दवरूनूच शिखराचें काम पुराय जाता. भारतीय शिल्पांतलो कलश वाटकुळो वा तांतयाच्या आकाराभशेन आसता जाल्यार गांधार शिल्पांतलो कलश तोंकदार आसता.

कलश हें एक आध्यात्मिक प्रतीक. तो म्हळ्यार मनशाचें शरीर; उदक म्हळ्यार तातूंतलें जिवीततत्त्व. मनीस-शरीर हें एक मातयेचें आयदन. पूण तातूंत चैतन्यरुपी तत्त्व भरून दविल्ल्यान तें भांगराच्या कलशापरसूय कितलेंशेंच मोलादीक जावन आसा. अशे तरेन भारतीय कलाकारांनी पूर्ण कलशाच्या रूपांत चैतन्यपूर्ण मनीस-शरीराची कल्पना रचल्या. कलशाच्या तोंडार दवरिल्ल्या पानांच्यो ताळयो आनी फुलां हें जीवनसमृध्दीचें प्रतीक जावन आसा. कलशांतलीं पंचरत्नां हीं पांच भूतां, पांच इंद्रियां, पांच विशय हांचीं प्रतीकां जावन आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**कला अकादमीः** १९७० वर्सा गोंय सरकारान कला, संस्कृताय आनी साहित्याची पोसवण, सादरीकरण आनी संशोधन करपाखातीर कला अकादमी हे संस्थेची थापणूक केली. ही कला अकादमी मूर्त स्वरुपांत उबी जावंची म्हूण गोंयचो पयलो मुखेलमंत्री दयानंद बांदोडकार हाची कल्पक बुध्द आनी कलेविशींची आस्था कारणीभूत जाली.

भारतीय आनी अस्तंत कलांचें शिक्षण आनी संवर्धन करप हो मूळ उद्देश मुखार दवरिल्ल्यान कला अकादमीच्या आलाशिऱ्याखाला हिंदुस्थानी संगीत विभाग, अस्तंत संगीत विभाग आनी नाट्य विभाग कार्यरत आसा. हातूंतल्या हिंदुस्थानी संगीत विभागांत पदवी मेरेनचें शिक्षण दिवपाची वेवस्था आसा आनी तो गोंय विद्यापीठाक संलग्न केल्लो आसा. अस्तंत संगीत विभागांत गायन, पियानो, व्हायोलीन, चेलो (cello), बांसरी, गिटार हांचें शिकप दिवपाची वेवस्था आसा. हिंदुस्थानी संगीत विभागांत शास्त्रीय संगीत, वाद्य (सतार, तबला, हार्मोनियम), नाच (भरतनाट्यम्, कथ्थक) हांचें शिक्षण दिवपाची वेवस्था आसा.

सुर्वेक कला अकादमीच्या आलाशिऱ्याखाला चित्रां आनी शिल्प हांचें शिक्षण दिवपी विभाग आसलो. उपरांत हो विभाग एक स्वतंत्र महाविद्यालयांत रुपांतरित जावन, आतां तो कला अकादमीच्या वेवस्थापनाभायर गोंय सरकाराच्या वेवस्थापनाखाल चलता.

लोककला आनी खास करून गोंयची लोककला हांकां पोसवण दिवपाखातीर कला अकादमी लोककलाकारांचे मेळे घेता. तेभायर आंतरराज्य आनी आंतरराश्ट्रीय थराचेरुय लोककलेचें सादरीकरण करता. शास्त्रोक्त पध्दतीन कलेचें शिकप दिवपाभायर कलाकारांक उर्बा आनी उत्तेजन दिवपाच्या हेतान कला अकादमी कलेच्या वेगवेगळ्या मळार सर्ती घेता. तातूंतल्यो मुखेल सर्ती अश्योः लोककला सर्त, भजनी सर्त, नाट्य सर्त (शालेय, महाविद्यालयीन आनी संस्था), किर्तनसर्त, साहित्य पुरस्कार, कला प्रदर्शनां. हांच्या वांगडाच सुरश्री केसरबाय केरकार हिच्या उगडासाखातीर दर वर्सा संगीत महोत्सव घडोवन हाडटा. ह्या महोत्सवांत भारतांतले नामनेचे संगीतकार वांटो घेतात. तशेंच राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय कलाकारांक आमंत्रित करून तांचे कलेचो लाभ घडोवन हाडटा.

पणजी लागसारुच कांपाल ह्या वाठारांत कला अकादेमीची कलात्मक आनी भोव उद्देशी इमारत आसा. हे इमारतींत कला अकादेमीचें कार्यालय, उक्तें नाट्यघर, दीनानाथ मंगेशकार बंद नाटकघर, ब्लॅक बॉक्स सभाघर, कला प्रदर्शन गॅलरी, वाचपाघर, स्टुडिओ आसात.

आंतरराश्ट्रीय नामनेचो स्थापत्यशास्त्रज्ञ *चार्ल्स कुर्रेय (*)* हाचे कल्पक बुद्दींतल्यान निर्माण जाल्ली ही सोबीत अशी वास्तू गोंयचेंच न्हय तर भारतांतलें एक भूशण जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कल्पवृक्ष** (कल्परूख): एक कल्पित रूख. हाका कल्पद्रुम, कल्पतरू, सुरतरू, देवतरू आनी कल्पलता ह्याय नांवांनी वळखतात. समुद्रमंथनांतल्यान वयर आयिल्ल्या १४ रत्नांत कल्परूखाचो आस्पाव आशिल्लो. मनांत इत्सा करता तें कल्परूख दिता, असो हाचेविशीं समज आसा. हो कुरुप्रदेशांत वाडटा आनी हाचेपसून म्हॉव, वस्त्रां आनी रत्नां मेळटात अशें वायुपुराणांत सांगलां (८.९३). कालिदासान कल्परूखाचें वर्णन अशें केलां:

'वासश्चित्रं मधु नयनयोर्विभ्रमादेशदक्षं
पुष्पोद्भेदं सह किसलयैर्भूषणानां विकल्पान् ।
लाक्षारागं चरणकमलन्यासयोग्यं च यस्या ।

मेकः सूते सकलमबलामण्डनं कल्पवृक्षः ।।'

(उत्तर मेघदूत १४)

अर्थः ज्या अलका नगरांत चित्रविचित्र वस्त्रां, धुंद करपी मद्य, कोमरेसकट फुलां, तरेकवार अलंकार आनी पांयांक लावपाचो 'अळिता' (तांबडो रंग) हीं बायलांचीं सगळीं भूशणां आनी प्रसाधनां फकत एकटो कल्परूख दिता.

भारतीय पुराणां आनी साहित्यांत कल्परूखाचें वर्णन आसा. 'विवेकसिंधु'त (१.७७-७८) मुकुंदराजान कल्परूखाचो उल्लेख केला. मानसार ह्या ग्रंथांत ताचें सविस्तर वर्णन आसा, तें अशें: ताच्या कांडाचेर वेटोळें घाल्लो सोरोप आसता. रूखाचेर तरेकवार वेली, तरेतरेचीं पानां आनी तरेकवार रंगांचीं फुलां आसून तातूंत देवता, विद्याधर आनी वानर हांचो वास आसता.

भांगराच्या कल्परूखदानाची गणना महादानांत केल्या. कल्परूखदानाचो विधी असोः फळ दिवपी भांगराचो कल्परूख तयार करतात. ताच्या चारुय वटांनी संतान, मंदार, पारजत आनी चंदन अशे आनीकूय भांगराचे चार रूख करून दवरतात. ताच्या मुळाक ब्रह्मा, विष्णू, शिव, सूर्य, काम आनी रती हांच्यो प्रतिमा दवरतात. मागीर ह्या सगळ्या परिवारासयत कल्परूखाचें दान करतात. दानाचो मंत्र असोः

नमस्ते कल्पवृक्षाय चिन्तितार्थप्रदायिने
विश्वम्भराय देवाय नमस्ते विश्वमूर्तये।।

अर्थ- चिंतता तें दिवपी अशा विश्वंभर आनी विश्वमूर्ती कल्परूखरुपी देवाक नमस्कार. कल्परूखदान केल्ल्यान महापातकांचो नाश आनी विष्णुलोकप्राप्ती जाता, अशें म्हण्टात.

भारहूत आनी सांची हांगाच्या शिल्पांत अशे तरेच्यो सगळ्यो इत्सित वस्तू दिवपी कल्परूख कोरांतला. कल्परूखाची कल्पना उदेंतेकडल्या सगळ्या धर्मांत आसा. किरिस्तांव आनी मुसलमान धर्मांतूय ती दिसून येता. मुसलमानांच्या मताप्रमाण कल्परूख स्वर्गांत आसा. ताका बारा तरेचीं फळां येतात आनी ताचीं पानां घाव भरून काडपाखातीर वापरतात. 'तूबा' नांवाच्या अशाच एका रूखाचें वर्णन मुसलमानांच्या धर्मीक साहित्यांत मेळटा, जो 'सदा अदन' ह्या मुसलमानांच्या स्वर्गांतल्या उपवनांत फुलता-फळटा.

भारतीय शिल्पांत मनांत इत्सिता तें दिवपी अशा कल्पित 'कल्पवल्ली' चो उल्लेख आयला. एक वाल आडवीं वळणां घेवन शेकानशेक पातळळ्या आनी तिका तरेतरेचे अलंकार लागल्यात अशे देखाव सांची, भारहूत हांगाच्या कोरीव शिल्पांत दिसून येतात.

माडापसून मेळपी नाल्ल, लांकूड, जळव, सोण्णां, काथो, सूर आदीचो मनशाक खूब उपेग जाता. माड हो भोव उपेगी आशिल्ल्यान ताका 'कल्पवृक्ष' अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

## कवळेकार, कुमुदिनी दामोदर

(कुमुद पैंगिणकार): (जल्मः २० डिसेंबर १९३६, पुणे).

गोंयचीं सुटके झुजारी. तिणें माध्यमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. ती 'राश्ट्रीय काँग्रेस गोंय' संघटनेची वांगडी आसली. ६ एप्रिल १९५५ दिसा सुटके झुजारी सुधाताई जोशी हिच्या फुडारपणाखाल म्हापशें वाठारांत सत्याग्रह जाल्लो, तातूंत तिणें वांटो घेतिल्लो. पोर्तुगेज पोलिसांनी तिका अटक केली आनी दोन म्हयने बंदखणींत दवरून उपरांत तिची सुटका केली. बंदखणींतल्यान सुटका जातकच ती परती राश्ट्रीय कार्यांनीं वांटो घेवंक लागली. रोखडीच पोलिसांनी तिका परत अटक केली आनी आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पणजी, केपें आनी मडगांव बंदखणींत चार वर्सां ख्यास्त भोगतकच १९ ऑगस्ट १९५९ दिसा तिची सुटका जाली. उपरांत कारवार जाल्ल्या सेवा दलाचे चळवळींत तिणें वांटो घेतिल्लो. गोंयचे सुटके उपरांत आकें ग्रामपंचायतीची वांगडी पंच म्हूण ती वेंचून आयिल्ली. १९७६ वर्सा मडगांव नगरपालिकेंत नगरसेविका म्हूण ती वेंचून आयली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तिचो भोवमान केला. १८ जून १९८२ ह्या दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या तिच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कवळेकार, नरसिंह राजारामः

(जल्मः १० ऑक्टोबर १९३६, म्हापशें).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें माध्यमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतिल्लें. १९५४ वर्सा सावन तो 'राश्ट्रीय काँग्रेस गोंय' (National Congress Goa) संघटनेचो वांगडी आसलो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो वण्टीपत्रकां लावप, पत्रकां वांटप, तिरंगी बावटे लावप असलीं कामां करतालो. पोलिसांक चुकोवपाक तो दोडामार्ग वाठारांत वचून लिपिल्लो. २८ एप्रिल १९५५ दिसा शिरगांव वाठारांत सत्याग्रह जाल्लो तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका अटक केली आनी दोन म्हयने बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कवासो (हातो):

(मराठी- केवडा, केतकी; हिंदी- केवरा, केटंगी; गुजराती- केवडो; कन्नड- केदगे, मुंडिगे; संस्कृत- केतक; गंध-पुष्प; इंग्लीश- स्क्रू पाइन; लॅटीन-पँडॅनस ओडोरॅटिसीमस; कूळ-पँडॅनेसी).

भारतीय द्वीपकल्पाचे उदेंत आनी अस्तंत देगेर, तेचपरी ओरिसा, मध्यप्रदेश, सुंदरबन, ब्रह्मदेश, अंदमान जुंवे आदी वाठारांनी कवासो जाता. कवाशाक 'हातो' अशेंय म्हण्टात.

कवाशाचें झाड सावें उदक आशिल्ल्या न्हंयां-व्हाळांचे देगेर जाता. ताका झाड म्हणचे बदला 'झील' म्हणपच समा जातलें. ताचें कांड लांबट वाटकुळें आसता. मूळ कांडाक खांदयो चड नासतात, फांट्याक मात चड आसतात. पानां सुकून झडटकच कांडाक वाटकुळे कांकणांभशेन दाग पडटात. ह्या दागांच्या मुळांवेल्यानूच नवे कोंब फुट्टात, उपरांत ह्या कोंबांची खांदी जाता. दोन पानांमदीं जागो साप उणो आशिल्ल्यान, पयसुल्ल्यान पळेतल्याक कवाशाचें झाड म्हळ्यार सगळीं पानांच-पानां कशें दिसता.

कांडाच्या मुळाकडल्या भागाक भायल्यान बारीक-बारीक लांब पाळां येतात. ह्या पाळांचो अर्दो भाग जमनींत भितर वता जाल्यार अर्दो भाग वयर दिसता. हीं पाळां खूब बारीक-बारीक आशिल्ल्यान तीं झाडाक घट धरतात; तशेंच हीं पाळां मातयेक घट बसतात, देखून माती व्हांवन वचूंक पावना.

कवाशांचीं पानां लांब आसतात. पानांचो रंग पाचवो आसता. ताच्यो दोनूय कुशी पातळ ब्लेडीभशेन आसतात. खरवतीच्या दांतांभशेन त्यो खरखरीत आसतात. पानांक मदीं एक कांट्याळी शीर आसता.

कवाशाचें झाड तेंगशेर फुलता. सादारणपणान जाका लोक कवाशाचें फूल म्हण्टात तें खरेपणान एक बोण. केळीच्या बोणाभशेन ह्याय बोणाक चारूय कुशींनीं एकार एक अशीं पातीं दाटिल्लीं आसतात. ह्या पातयांचो रंग हळडुवो आसता. दर एके पातयेपोंदा एक एक स्वतंत्र फूल आसता. खऱ्या अर्थान कवाशाची ही पाती म्हळ्यार एक पानच. पूण तें फुलावांगडा आशिल्ल्यान ताचो रंग हळडुवो आसता. सगळ्यांत वयली कवाशाची पाती आनी ते पातये पोंदचें फूल आकारान मोटें, रंगान गाड आनी वासान बरें आसता. जशी जशी एक एक पाती काडली, तसो तसो पातयेचो आनी फुलाचो आकार, रंग आनी गंध कमी कमी जायत वता.

कवाशाचें फूल पळोवपाक एक कणस कशें दिसता. ताच्या आंगाक बारीक बारीक कुसां कशीं आसतात. हें कणस फांफडीत जाल्यार तातूंतल्यान धवो पिठो कसो झडटा. वास येता तो ह्या पिठ्याकूच.

फूल काडनासतना उल्लें जाल्यार ताच्यापसून अननसासारकें दिसपी फळ जाता. हें फळ पिकतकच फुटना. पूण आपोआप सुकूंक लागता. तें गोड नासता आनी तें खायनात. कवाशाच्या फुलाचो बायलांक

माळपाखातीर आनी देवाक घालपाखातीर उपेग जाता. पुराय तयार जाल्या कवाशाच्या फुलापसून तेल काडटात. ह्या तेलापसून कवाशाचें अत्तर तयार करतात. पूर्विल्ल्या काळार लेगीत हें अत्तर लोक काडटाले. शाबू, सौंदर्यप्रसाधनां, तंबाखू, उजवाती हातूंत वासाखातीर ह्या तेलाचो उपेग जाता. जेवणा-खाणाच्या कांय पदार्थांतूय वास हाडपाखातीर ह्या तेलाचो वापर करतात. तकली उसळप आनी संधीवात ह्या सारक्या दुखण्यांचेर कवाशाच्या तेलाचो उपेग जाता.

घराचें पाखें, शेंदऱ्यो, दोरयो, तोपयो, पांटले, पोतयो ह्यो वस्तू पानांपसून तयार करतात. मुळांपसून रंगोवपाचे ब्रश करतात. देवी, कुश्टरोग, उपदंश, खोरोज, कोड आदी दुयेंसां बरीं करपाक कवाशाच्या पानांचो उपेग जाता.

बोणकी ही कवाशाचीच एक जात. तिच्या फुलाचो वास कमी आनी रंग धवसार हळडुवो आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**कविता:** काव्य शब्दाची व्याख्या विद्वान विंगड विंगड तरेन करतात. विश्वनाथाचार्यान 'वाक्यं रसात्मकं काव्यम्' अशें म्हळां. रमणीयार्थ प्रदान करपी उतर म्हळ्यार काव्य, अशें जगन्नाथाचार्याचें मत आसा. 'रीतिरात्मा काव्यस्य', 'काव्यस्यात्मा ध्वनिः' अश्यो वामनाचार्य आनी आनन्दवर्धनाचार्याच्यो व्याख्या आसात. ह्यो व्याख्या काव्यरचणुकेची म्हायती दितात. अस्तंतेकडल्या विद्वानांनीय विंगड विंगड पध्दतींनी काव्याची व्याख्या करपाचे यत्न केल्यात. काव्य हें अनुकरणात्मक आसता अशें ॲरिस्टॉटलचें मत आशिल्लें. कविता म्हळ्यार जिविताची समीक्षा अशी व्याख्या आर्नो हाणें केल्या. काव्य म्हळ्यार प्रभावी भावनांचो उत्स्फूर्त हुंवार, अशें वर्ड्स्वर्थ हाचें मत, जाल्यार बऱ्या मनशाच्या मनाची बऱ्यांतल्या बऱ्या खीणांची मुद्रा, अशें मत शेली हाणें उक्तायलां. ह्यो सगळ्यो व्याख्या मतींत दवरीत जाल्यार ताचो अर्थ असो जाता- जिवितांतल्यो विंगड विंगड अनुभूती एकठांय करून, उतरां आनी अर्थाच्या आदारान कलारुपान आयिल्ली पद्यमय अभिव्यक्ती म्हळ्यार कविता. भाव, अनुभूती, चेतना, संवेदना, प्रतिमा आनी कल्पना हांची भरसण म्हळ्यार कविता. कलाविद्येच्या रुपान सौंदर्यशास्त्राकडेन तिचें नातें आसा.

जशें ध्वनीचें सार्थक रुप संगीत, रंगांचें आनी रेखांचें सार्थक रूप चित्र, तशें शब्दांचें सार्थक रूप कविता ('शब्दार्थौ सहितौ काव्यम्'). कथा-कादंबरींत घटनाचक्र मुखेल, नाटकांत अभिनय आनी संवाद मुखेल, जाल्यार काव्यांत अनुभूतिचो साक्षात्कार मुखेल जावन आसता.

पूर्विल्ल्या काळांतल्या काव्याचें स्वरुप वेगळें आशिल्लें. सद्या जें काव्य आसा, ताचें मूळ प्राकृत काळांतल्या लोकांच्या मंत्रसूक्तांनी आनी ताल लयात्मक कथाकथनाचे परंपरेंत दिश्टी पडटा. अशा ह्या काव्यांत नैतिक मूल्यांची अभिव्यक्ती हो म्हत्वाचो मानदंड आशिल्लो. रचणूक छंदोबध्द आसताली. वेदांतले गायत्री, अनुष्टुभ, लोकांमदलो होंवी प्रकार हातूंत छंदाचें प्रमाण मेळटा. छंद काव्याक कूड दितालो, पूण फकत छंद म्हळ्यारुच कविता न्हय.

समाजाप्रमाण कविताय नवें नवें रुप घेता. पूर्विल्ल्या काळांतल्या वेदांत धर्मीक स्थितीक फाव तशी कविता घडटाली. सद्या कवितेचें रुप विंगड विंगड प्रकारचें आसा. कवितेंतलो हो बदल समाजीक बदलाचे मागणेंतल्यान जायत आसा.

काव्याचे दोन मुखेल प्रकार म्हळ्यार लोकगीत आनी साहित्यिक काव्य. साहित्यिक काव्य तीन प्रकारचें आसता- प्रबन्धकाव्य, गीतकाव्य आनी नाट्यकाव्य. प्रबन्धकाव्य वर्णनात्मक आनी उच्चवंशीय नायकांचें चरित्र रंगयता. खंडकाव्यांत खंडचित्र मेळटा. गीतकाव्यांत आत्मानुभूति मुखेल आसता. गीतकाव्याचे कांय प्रकार अशे: संबोधन गीत (ode), चतुर्दशपदी (sonnet), वेदनागीत (elegy), व्यंग्यगीत (satire). नाटक आनी काव्य मेळून नाट्यकाव्य जाता. पूर्विल्लें नाटक काव्यात्मक आनी भावात्मक आसतालें.

पूर्विल्ल्या काळांत भारत आनी अस्तंतेकडल्या देशांनी कविता देवांचे विशय आनी तुस्त घेवन मुखार येताली. भारतांतले वेदसूक्त, यवन देशांतलें डित्तीराम्बुस (Dithyrambus) आनी चीन हांगाचें आद्यगीत ह्या गजालींचें प्रमाण दिता. भारतांतले आद्य महाकवी वाल्मिकी आनी व्यास रामायण आनी महाभारत ह्या महाकाव्यांक लागून नामनेक पावल्यात.

युरोपांत 'इलियड' आनी 'ओडिसी' हीं महाकाव्यां बरोवपी होमर हो नामनेचो ग्रीक कवी. अस्तंती साहित्यांत वर्जिल हाचें 'ईनिड', तास्सो हाचें 'जेरुसालेम', आरियोस्तो हाचें 'ऑर्लांदो रियोझो', दांते हाचें 'डिवायन कॉमेडी', गटे हाचें 'फाउस्ट' हीं कांय महाकाव्यां बरींच गाजल्यांत. अस्तंती साहित्यिकांमदीं शेक्सपीअर, मिल्टन, वर्ड्स्वर्थ, शेली, कीट्स, बायरन, टी. एस्. इलियट, यीट्स हीं नांवां कवितेच्या मळार नामनेचे जावन आसात. आलेशांद्र पुश्कीन, मायकोवस्की, व्हिक्टर ह्यूगो, लामारतीन, लू सून, ग्राबियला मिस्त्राल, पाब्लो नेरुदा, ओक्ताव्हियो पाझ, फेदेरीको गार्सीया लॉर्का हांकां संवसारीक कीर्त मेळ्ळया.

महाकाव्यशैलींत भारतांत रचिल्लें काव्य: 'रामचरित मानस', सूरदास हाचें 'सुरसागर'; मराठींत संत ज्ञानेश्वर हाची 'ज्ञानेश्वरी', संत तुकाराम हाची 'गाथा', संत एकनाथ हाचें 'अभिनवरामायण'; असमियांत मंगर हाचें 'पद्मपुराण'; बंगालींतलें 'कृत्तिवास रामायण'; तेलगुंतलें तिक्कना हाचें 'निर्वचनोत्रर रामायण'; तामीळांतले कंब हाचें 'कंबरामायण'; मल्याळमांत एणुत्रच्छन हाचें 'अध्यात्म रामायण', काण्णाश हाचें 'कण्णशरामायणम्'; कन्नडांत पंप हाचें 'पम्परामायण' अशीं कांय काव्यां बरयल्यांत.

भारतांतले कालिदास, भारवि, माघ, श्रीहर्ष हे संस्कृतांत जाल्यार हिंदी भाशेंत मैथिलिशरण गुप्त, जयशंकर प्रसाद, कन्नड कवी मास्ती व्यंकटेश अय्यंगार, तेलुगु कवी विश्वनाथ सत्यनारायण, तमीळ कवी गोपालकृष्ण भारती, सुब्रमण्यम भारती, मल्याळम् कवी वळ्ळचोळ नारायण मेनन, कुमारनाशन, ओडिया कवी राधानाथ, असमिया कवी हेम गोस्वामी हे नामनेचे जावन आसात. गीतकाव्याच्या मळार मुखेल भारतीय कवी म्हळ्यार जयदेव (गीतगोविंद), विद्यापती (पदावली), जयशंकर प्रसाद, (झरना, लहर) सूर्यकांत त्रिपाठी 'निराला' (जागो फिर एक बार), महादेवी वर्मा (यामा), सुमित्रानंदन पंत (चिदम्बरा). कन्नड भाशेंत एस्. श्रीकंठय्या, एम्. गोविन्द पै, व्ही. सीतारामय्या, मास्ती वंकटेश अय्यंगार, बेंद्रे, काश्मीरी भाशेंतलो गुलाम अहमद मजरूर, गुजरातींत भोलानाथ दिवेटिया, बी. के. ठाकूर, मल्याळम् भाशेंत जी. शंकर कुरुप, बालामणी अम्मा, हे कांय कवी जावन आसात.

- डॉ. एल्. सुनीताबाय

**कव्वाली:** इस्लामी कंठसंगीतांतलो भारतांत रुजिल्लो एक भक्तीप्रधान संगीतप्रकार. भारतांत रूढ जाल्या भजनांचें अनुकरण करून पर्शियन संगीत शैलींत केल्ली मांडावळ म्हळ्यार 'कव्वाली' अशेंय म्हण्टात. कव्वालीच्यो रचना धर्मीक तेचपरी लौकिक आसतात. लौकिक विशयांच्यो रचना गावप्यांक 'कलावंत' आनी धर्मीक विशयांच्यो रचना गावप्यांक 'कव्वाल' अशें म्हण्टात. कव्वाली प्रकारापसून स्फूर्त घेवन अमीर खुसरौ (१२५३-१३२५) हाणें शास्त्रीय संगीतांतल्या 'ख्याल' ह्या कंठसंगीतप्रकाराची उदरगत केली, अशें म्हण्टात. तानसेनाचो प्रभाव वाडचेआदीं धृपद गावपी, कलावंत आनी कव्वाल हांकां एकाच पांवड्याचेर मानताले.

ताल आनी लयेंत गायिल्ल्या कव्वालीचीं खाशेलपणां अशीं: १. पुराय सप्तकभर वयर-सकयल नेटान भोंवपी तानो २. गीताचें धृपद सांघिक रितीन खणखणीत गावचेली पध्दत.

- कों. वि. सं. मं.

**कस्तुरी:** एक वासाचें द्रव्य. कस्तुरी कस्तुरीमृगापसून मेळटा. तीन वा ताचेरपस चड वर्सांच्या नर कस्तुरीमृगाचे बोंबलेखाला पोटाच्या

कातीसकयल कस्तुरी ग्रंथी आसतात. ह्या ग्रंथींतल्यान पुडी कोराचे



कस्तुरीमृग

मेणासारको स्राव एके पोतयेंत एकठांय जाता. ताजो आसताना ताका मुताचो वास येता, पूण सुकयतकच ताका बरो वास येता आनी हाकाच 'कस्तुरी' म्हण्टात. एका नर कस्तुरीमृगापसून सुमार २८ ग्रॅम कस्तुरी मेळटा. कस्तुरी मेळोवपाखातीर कस्तुरीमृगाची हत्या करतात. कस्तुरी माजर वा जवादी माजर (शास्त्रीय नांव- व्हायव्हेरिकुला इंडिका) हाच्या जननेंद्रियांचे सकयल आशिल्ली कस्तुरी काडपाखातीर लोक हीं माजरां पोसतात. ही कस्तुरी चडशी तंबाखूक वास दिवपाखातीर वापरतात.

श्रीविष्णु आनी श्रीकृष्ण हांच्या कपलाक कस्तुरीची तिकली आसता अशें म्हण्टात. कस्तुरी दान केल्यार सुख-शांती मेळटा अशें दानमंत्रांत म्हळां:

कस्तूरी भाग्यदा भव्या देवमर्त्यजनप्रिया ।<br>
दानेनास्याः सुखं भोगाः शान्तिरस्तु सदा मम ।।

(दानचंद्रिका)

अर्थ- कस्तुरी भाग्य दिता आनी ती देव-देवतांक आवडटा. कस्तुरी दान करतकच म्हाका सदांच सुख, भोग आनी शांती हांचो लाभ जावं.

- कों. वि. सं. मं.

**कॅथलिकः** (पळेयातः किरिस्तांव धर्म).

**कॅनडाः** उत्तर अमेरिकेच्या सुमार ४३% वाठाराचेर पातळिल्लो देश. क्षेत्रफळ ९९,७६,१८५ चौ. किमी.; लोकसंख्याः २,५३,५८,५०० (१९८५). विस्तारः ५२° ३७' अस्तंत ते १४१° अस्तंत आनी ८३° ६' उत्तर आनी ४१° ४१' उत्तर. उत्तर अमेरिकेंतलो अलास्का आनी वेस्ट इंडीजचो वाठार सोडलो जाल्यार त्या खंडांतलो अर्दो वाठार आनी लागच्या ल्हानव्हड जुंव्यांचो आस्पाव कॅनडांत जाता. ह्या देशाचे उत्तरेवटेन आर्क्टिक म्हासागर आनी उदेंतेवटेन ॲटलांटिक म्हासागर आसा. देशाची चडांत चड दक्षिण उत्तर लांबाय सुमार ४,८०० किमी., जाल्यार उदेंत-अस्तंत लांबाय ५,६०० किमी. आसा. ओटावा हें हांगाचें राजधानीचें शार.

**भूंयवर्णनः** ह्या देशाचो आकार चवकोनी दोण्यासारको आसा. ताच्या उदेंत वाठारांत व्हड पूण उणे खोलायेचो हडसनचो उपसागर पातळ्ळा. ह्या उपसागराच्या उदेंत, अस्तंत आनी दक्षिण दिकांनी घट फातरांचो वाठार आसा. ह्या वाठाराक 'कॅनडाची धाल' अशें म्हण्टात. हो वाठार उत्तरेवटेन बरोच रूंद आसा आनी दक्षिणेवटेन अशीर जायत गेला. आर्कीयन काळांत ह्या जाग्यांचेर दोंगरांच्यो वळी तयार जाल्यो, पूण फाटल्या लाखांनी वर्सांभितर तांची झीज जावन थंय ल्हान, उण्या उंचायेच्यो दोंगुल्ल्यो उरल्यात. ह्या दोंगुल्ल्यां भोंवतणी ल्हानव्हड सरोवरां आनी न्हंयो आसात.

कॅनडाच्या भुगोलीक रचणुकेप्रमाण ताचे ६ वांटे जातातः

१. *कॅनडाची धालः* ह्या वाठाराचें वट्ट क्षेत्रफळ ४१.६ लाख चौ. किमी. आसा. हातूंत लॅब्रॅडोर, क्वीबेकचो चडसो वाठार, ऑंटॅरिओचो उत्तर वाठार हांचो आस्पाव जाता. हे धालीची अस्तंत शीम वुडस् सरोवरासावन उत्तरेवटेन आर्क्टिक दर्यादिगेर डार्ली आखातामेरेन पावल्या. ह्या वाठाराचो चडसो वांटो पोरन्या घट फातरांचो आसा. ज्या जाग्यांचेर जमीन मोव आसा, थंय न्हंयांचीं देगणां आनी ल्हानव्हड सरोवरां आसात. फातरांच्या पठारी वाठारांनी धबधबे आनी उदकाचे झोत आसात.

२. *ॲटलांटिक दर्यादिगेलागचो वाठारः* ह्या वाठाराक ॲटलांटिक वाठार अशेंय म्हण्टात. कॅनडाच्या उदेंत वाठारांतले नोव्हास्कोशा, न्यू ब्रन्सविक आनी प्रिन्स एडवर्ड जुंवो, क्वीबेकचो आग्नेय वाठार आनी न्यू फाउंडलंड ह्या सगळ्यांचो हातूंत आस्पाव जाता. हो एक पर्वतांचो वाठार आसून दोंगर ईशान्य-नैर्ऋत्य पातळ्ळ्यात. न्यू ब्रन्सविक प्रांतांत मदीं ऊंच वाठार आसात. ताचे वायव्येक पठारां आसात. हेर सगळेकडेन जमीन सकयल आसा.

३. *सेंट लॉरेन्स न्हंयचें देगणः* हातूंत क्वीबेक आनी ऑंटॅरिओ प्रांताचो सकयलो दक्षिण वाठार येता. हो वाठार बरोच पिकाळ आसा आनी हाचें वट्ट क्षेत्रफळ १.८२ लाख चौ. किमी. आसा. क्वीबेक शार आनी ह्यूरन सरोवर हांचेमदीं सुमार १,००० किमी. लांबायेचें व्हडलें मळ आसा.

४. *मदलो खंडाभितरलो मळांचो वाठारः* रॉकी पर्वत आनी कॅनडाची धाल हांचेमदीं हो मळांचो वाठार आसा. तातूंत सॅस्कॅचेवन आनी ॲल्बर्टा प्रांतांचो बरोच वाठार आनी मॅनिटोबा प्रांताच्या दक्षिणेकडलो वाठार हांचो आस्पाव जाता. दक्षिणेवटेन हो वाठार बरोच रुंद आनी उत्तर आनी वायव्येवटेन अशीर आसा. शेल आनी रेंवेच्या फातरांनी तयार जाल्लो हो वाठार सपाट आसा. पूण तो मात्सो अस्तंतेवटेनच्यान उदेंतेवटेन देंवत गेला. ॲल्बर्टांत हाची उंचाय ९०० मी. जाल्यार दक्षिण मॅनिटोबांत ३०० मी. आसा.

५. *अस्तंतेवटेनचो पर्वतांचो वाठारः* ह्या वाठाराची रुंदाय ८०० किमी. आसा. तातूंतल्या दोंगरा तेमकांची उंचाय ३,५०० मी. ते ६,००० मी. मेरेन आसा. हो वाठार बऱ्याच दोंगरावळींचो आसा. सामके अस्तंतेवटेनचे दोंगरावळीक 'कोस्ट रेंज' म्हण्टात, उदेंतेवटेनच्या दोंगरांक 'रॉकी पर्वत' म्हण्टात. रॉकी, सेलकीर्क आनी दर्यादेगांवेल्या दोंगरांनी हिमन्हंयो आसात. ह्या दोंगरा वळींचे अस्तंतेवटेनचे देंवतेचेर पावस पडिल्ल्यान हांगा दाट रानां सांपडटात.

६. *आर्क्टिक जुंवेः* कॅनडाचे मुखेल भुंयेसावन उत्तर ध्रुवाच्या आयल्यान १६५ किमी. अंतरामेरेन बरेच ल्हानव्हड जुंवे आसात. तातूंतलो बीफेन जुंवो मॅनिटोबा इतलो व्हड आसा. भुंयरचणुकेचे नदरेंतल्यान ह्या जुंव्याची भूंय एकसारकी ना. हिमप्रवाहांच्या परिणामाक लागून ती फातरांनी भरल्या.

हिमकाळांत ह्या देशांत बऱ्योच खळयो तयार जाल्यो; फुडें तातूंत बर्फाचें उदक जाल्ल्यान सरोवरां तयार जालीं. कॅनडाच्या धाल वाठारांत आनी ताचे भोंवतणी असलीं बरींच सरोवरां आसात. तातूंतलीं सुपीरीयर, मिशीगन, ह्यूरन, ईअरी आनी ऑंटॅरिओ हीं सरोवरां नामनेचीं आसात. हातूंतलें मिशागन सरोवर अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांभितर आसा जाल्यार उरिल्लीं त्या देशाचे आनी कॅनडाचे शिमेचेर आसात.

सव्वीस हजार चौ. किमी. परस चड क्षेत्रफळ आशिल्लीं सुपीरीयर, ह्यूरन, ग्रेट बेअर आनी ग्रेट स्लेव्ह हीं व्हडलीं सरोवरां आसात. सरोवरांभशेन ह्या देशांत न्हंयोय बऱ्योच आसात. हडसन उपसागराक मेळपी व्हडल्या न्हंयांतल्यो ईस्टमन, रूपर्ट, ऑल्बानी, सव्हर्न, नेल्सन आनी चर्चिल ह्यो म्हत्वाच्यो आसात. नेल्सन न्हंय सगळ्यांत व्हडली आसा आनी तिका विनीपेग, विनीपेगोसिस, मॅनिटोबा ह्या सरोवरांचें




उदक मेळटा.

ॲल्बर्टा, सस्कॅचेवन आनी ब्रिटीश कोलंबिया प्रांतांनी पीस, ॲथाबास्का आनी मॅकेंझी ह्यो म्हत्वाच्यो आसात.

अस्तंत दर्यादिगेवेल्यो कोलंबिया, फ्रेझर, स्कीना आनी स्टिकीन ह्यो न्हंयो पॅसिफीक म्हासागराक मेळटात.

**हवामानः** ह्या देशाचे कांय वाठार सोडीत जाल्यार हेरकडेन हवामान थंड आनी बरें आसा. हांगाच्या हवामानाचेर तीन तरांच्या वाऱ्यांचो परिणाम जाला. उत्तरेवटेनची ध्रुवाकडली थंड हवा शिंयाळ्यांत आर्क्टिक म्हासागरावटेनच्यान दक्षिणेवटेन सामकी अमेरिकेचे शिमेमेरेन पातळटा, आनी ताका लागून तापमान ०° से. परस सकयल देंवता. गिमाच्या दिसांनी ह्या वाऱ्याचो मार्ग मात्सो उदेंतेवटेन वता. दुसरें वारें मॅक्सिकोच्या आखाताकडल्यान येता आनी ही गरम हवा कॅनडाच्या हवामानांत ऊब हाडटा. ऑंटॅरिओच्या दक्षिण वाठारांनी ह्या वाऱ्याक लागून बर्फ वितळटा. तिसरें वारें उत्तर पॅसिफीक म्हासागरावेल्यान उदेंतेवटेन येता. ह्या वेळार हवामान दमट आशिल्ल्यान गिमाच्या दिसांनी पावस पडटा.

हांगाचें हवामान शिंयाळ्यांत सामकेंच उणें आसता. जानेवारी म्हयन्यांत मॉंट्रियल शाराचें तापमान सुमार -४०° से. आसता. विनीपेग हांगा तें -१८° से. जाल्यार उत्तरेवटेनच्या आर्क्टिक जुंव्यानी -३८° से. मेरेन पावता. शिंयाच्या दिसांनी हिम बरेंच पडटा. जमीन एप्रिल म्हयन्यामेरेन हिमान भरिल्ली आसता. मे म्हयन्यांत बर्फ वितळून तापमान वाडूंक लागता आनी जुलय म्हयन्यामेरेन तापमान वयर चडटा. ह्या वेळार तापमान सुमार २१° से. आसता. हांगा पावस चड करून गिमाच्या दिसांनी (मे ते ऑगस्ट) पडटा. अस्तंतेवटेनच्या दोंगरी वाठारांनी तो २५० सेंमी. परस चड जाल्यार उदेंतेवटेन तो उणो जाता. मदल्या वाठारांनी पावसाचें प्रमाण सुमार ५० सेंमी. जाल्यार प्रेअरी वाठारांनी तें ३० सेंमी. आसता.

**वनस्पतः** कॅनडाच्या कांय वाठारांनी दाट रानां, कांय वाठारांनी तण जाल्यार कांय कडेन फकत शेळो वाडिल्लो दिसता. कॅनडांतली ४०% भूंय रानांनी भरल्या. रानांचे तीन मुखेल प्रकार दिसून येतात. १. अशीर पानांचीं रानां: हातूंत मोव लांकडाचे स्प्रूस, पायन, सेडार हे रूख चडशे सांपडटात. २. रूंद पानांच्या रूखांचीं रानां: हातूंत बर्च, मॅपल, ॲश, एल्म, ओक, हिकरी आनी बीच हे रूख आसात ३. अस्तंत दर्यादिगेवेलीं दमट वाठारांतलीं रानां: हातूंत डग्लस, फर, सित्का, स्प्रूस, तांबडे सेडार, एल्डर, हॅमलॉक हे ७५ ते ९० मी. उंचायेचे रूख आसात.

रानांच्या वाठाराचे अस्तंतेवटेन ३० सेंमी. परस उण्या पावसाच्या वाठारांनी तण वाडटा. तणाच्या भोंवतणच्या वाठारांनी ल्हान झोंपां आनी शेळो दिसून येता.

कॅनडांतलें हवामान आनी वनस्पत हांचो परिणाम थंयचे मातयेचेर जाला. ताका लागून हांगा विंगड विंगड प्रकारची वनस्पत वाडूंक पावल्या.

**मोनजातः** कॅनडांत तरांतरांचीं जनावरां आसात. व्हडा संख्येन सांपडपी म्हळ्यार कस्तुरी-बैल आनी 'वापिती' नांवाचें सांबर. वापिती सांबरांची संख्या हालींच्या काळांत उणी जायत गेल्या. उत्तरेवटेनच्या वाठारांनी कॅरिबू सांबर सांपडटा. तेभायर ग्रिझली, धवीं आनी काळीं वांस्वेलां आनी धवे कोले दिश्टी पडटात. तैगा रानांनी 'मूस' नांवाचें सांबर, शिंगाडे, आनी व्हर्जिनीया जातीचें हरण सांपडटा. रानांनी भालू आनी मळांच्या वाठारांनी कॉयोट आसात. अस्तंतेवटेन प्यूमा आसात. हेभायर ह्या रानांनी लिंक्स, बीव्हर, ऑटर, मार्टिन, मिंक, स्कंक हे ल्हंव आशिल्ले प्राणी आसात. मळांच्या वाठारांनी व्हर्जिनीया हरणां आनी ॲल्बर्टाच्या उत्तर वाठारांनी गव्या रेड्यांचे पंगड आसात. ब्रिटीश कोलंबियाच्या वाठारांत रानमेंढरां आनी रानबोकडां बरींच दिसतात.

हांगा गरुड, ससाणे, घुघमां, हांच्यो तरेकवार जाती, डोमकावळे, सादे कावळे, चिमणी, तरांतरांचीं गावपी सुकणीं तशेंच गल, करढोक, टर्न, गॅनेट हीं उदकांतलीं सुकणीं आसात.

**इतिहासः** पूर्विल्ल्या काळांत कॅनडांत गंवाकोराच्या इंडियनांचो राबितो आशिल्लो. णवव्या आनी धाव्या शेंकड्यांत लीफ एरिकसनच्या फुडारपणाखाल व्हायर्किंग टोळयो कॅनडांत आयिल्ल्यो. कितलेशेच व्हायर्किंग हांगा रावलेय. पूण व्हायर्किंगांच्यो अमेरिकेवेल्यो घुरयो आनी तांच्यो वसणुको हांचो इतिहास पुराय़पणान सांपडना. ताका लागून कॅनडाच्या इतिहासाक खरी सुरवात आर्विल्ल्या काळांत जाली, अशें म्हणपाक हरकत ना. इंग्लंडच्या सातव्या हेन्रीच्या आलाशिऱ्यान १४९७ त जॉन कॅबट हो इटालियन भोंवडेकार उदेंतेच्या सोदांत भायर सरलो. तो घडये न्यू फाउंडलंड वा केप ब्रेटन हांगा पावला आसतलो; ताणें ह्या वाठारांचेर सातव्या हेन्रीचो हक्क सांगलो. तशेंच १५३४-१५४१ च्या काळांत झाक कार्त्ये भोंवडेकारान फ्रांसाच्या आलाशिऱ्यान केल्ल्या तीन भोंवड्यांनी सेंट लॉरेन्सचें आखात, सेंट लॉरेन्स न्हंयचो वाठार, ह्या जाग्यांचेर पासय मारली; पूण हांगा फ्रांसाचे वसणुकेची थापणूक करप ताका शक्य जालें ना. कार्त्ये उपरांत कितल्याशाच भोंवडेकारांनी आनी वेपाऱ्यांनी हांगा पावल दवरलें आनी नुस्तें आनी लोकर हांचो वेपार करूंक सुरवात केली. १६०८ वर्सा साम्युएल द शांप्लँ हाणें क्वीबेक हे पयले फ्रेंच वसणुकेची थापणूक कॅनडांत केली. वेपारावांगडा हांगा धर्मप्रचारकय भोंवडी करूंक लागले. ह्या काळांत कॅनडाच्या विंगड विंगड वाठारांनी सुमार धा हजार फ्रेंच नागरिकांनी राबितो केलो. १९६३ त चवदाव्या लुईन क्वीबेकाक फ्रेंच साम्राज्यांतल्या प्रांताचो दर्जो दिलो आनी फ्रेंच वसणुकेक न्यू फ्रांस हें नांव मेळ्ळें. न्यू फ्रांसांत गवर्नर हो राजाचो प्रतिनिधी आसतालो. तो वसणुकेची राखणे वेवस्था सांबाळटालो; जाल्यार इन्टेन्ड हो मुलकी अधिकारी आनी ताचें काउन्सिल प्रशासन आनी न्यायदानाचें काम पळेताले. क्वीबेकच्या बिशपाक इन्टेन्डच्या काउन्सिलांत सुवात आसून लेगीत तो वसाहतींचो धर्ममुखेली आसतालो. फ्रांसाप्रमाण इंग्लंडाच्योय वसाहती न्यू फाउंडलंड, हड्सन उपसागराच्या वाठारांत आनी उत्तर अमेरिकेच्या हेर प्रांतांनी आशिल्ल्यो. तातूंतल्यो कांय इंग्लंडान हॉलंडा कडल्यान मेळयिल्ल्यो आनी हेर ब्रिटीश लोकांनी तयार केल्ल्यो. लोकरीच्या वेपारावेल्यान आनी हेर कारणांक लागून फ्रेंच आनी ब्रिटीश हांचेमदीं झगडीं जातालीं. १६७५ मेरेन तांच्या झगड्यांक व्हडल्या झगड्यांचें रूप मेळूंक नाशिल्लें. १६७० त तयार जाल्ल्या हड्सन कंपनीच्या कश्टांक लागून आनी उत्रेक्तचे कबलातींतल्यान (१७१३) हडसन उपसागराच्या वाठारांत ब्रिटिशांक वसणुको मेळ्ळयो. नोव्हास्कोशा हांगाय तांणी वसाहत निर्मिली. फ्रेंचांनी १६९९ त लुइझिॲना ही वसणूक निर्मिली. आपल्या वसाहतींची राखण बरे तरेन जावंची आनी दर्यादिगेसावन भितरल्या वाठारांनी ब्रिटिशांक घुसूंक मेळचें न्हय, हाका लागून फ्रेंचांनी लुइझिॲना आनी उत्तरेकडेनचे न्यू फ्रांस वसणुकांक जोडपी किल्ल्यांची एक वळ बांदपाची येवजण तयार केली.

१७४० त युरोपांत ऑस्ट्रियन वारसाविशींचें झूज सुरू जाल्या उपरांत इंग्लंड आनी फ्रांस हांचेमदीं वसणुकांच्या प्रस्नावेल्यान कॅनडांत झगडीं सुरू जालीं. तेन्ना जाल्ले लडायेंत ब्रिटीश सैन्यान फ्रांसाकडल्यान लुईसबर्ग किल्लो जिखून घेतलो. पूण १७४८ च्या एक्स-ला-शापेलचे कबलातींतल्यान तो फ्रांसाक परत मेळ्ळो. हाचे उपरांत पर्थून स वर्सांनी लडाय जाली. लडायेउपरांत फ्रांसाचो अमेरिकन खंडावेलो शेक सोंपत आयलो. १७६३ चे पारिस कबलातींतल्यान पुराय कॅनडाचेर इंग्लंडाची सत्ता आयली आनी इतिहासाक एक नवें मोडण मेळ्ळें.

कॅनडांत राबितो केल्ले फ्रेंच लोक रोमन कॅथलिक आशिल्ले आनी इंग्लंडांत रोमन कॅथलिकांक मत दिवपाचे आनी सरकारी नोकऱ्यो मेळोवपाचे हक्क नाशिल्ले. पूण हांगाचे ब्रिटीश राजवटीक फ्रेंचांक दुखवप परवडलें ना. तेन्ना तांणी कॅनडापुरते कायदे बदलले. १७७४ त क्वीबेक ॲक्ट च्या नांवाखाल तांणी कॅनडांतल्या रोमन कॅथलिक धर्माक मान्यताय दिली. ह्या कायद्याक लागून हांगाचे फ्रेंच लोक खोशी जाले आनी ताकालागून अमेरिकेंतले स्वतंत्रतायेचे लडायेवेळार फ्रेंचांनी ब्रिटिशांआड उठाव केलोना. ह्या काळांत बरेच ब्रिटीश लोक कॅनडांत येवन रावले. क्वीबेक वाठारांत फ्रेंच चड आशिल्ले, ताका लागून १७९१ त अपर आनी लोअर अशे कॅनडाचे वांटे केले. गर्वनर ह्या दोनूय प्रांतांचें प्रशासन सांबाळटालो. लोकांनी वेंचून दिल्ल्या प्रतिनिधींक निर्णय घेवपाचे अधिकार मेळचे हाका लागून लोकांनी १८३६-३८ त बंडां केलीं. तेन्ना ह्या प्रस्नाचेर उपाय काडपाखातीर ब्रिटीश सरकारान हांगा लॉर्ड डॅरम हाका नेमलो. लॉर्ड डॅरमान फ्रेंच आनी ब्रिटिशांमदीं एकचार हाडपाखातीर बऱ्योच येवजणी मुखार हाडल्यो. पूण त्यो ब्रिटीश सरकारान व्हडल्योशो कानार घेतल्यो नात. तांणी हाचेर उपाय म्हूण अपर आनी लोअर कॅनडाचें एकीकरण केलें आनी उदेंत आनी अस्तंत अशे नवे प्रांत घडयले. हाचेफुडें लॉर्ड एल्जीन गर्वनर जालो. पूण फ्रेंच आनी ब्रिटीश हांचेमदलो ताण उणो जालो ना. १८६७ त ब्रिटीश पार्लमेंटान 'डोमिनियन ऑफ कॅनडा' ह्या संघराज्याची थापणूक केली. तातूंत क्वीबेक , ऑंटॅरिओ, नोव्हास्कोशा, न्यू ब्रन्सविक हांचो आस्पाव आशिल्लो. पूण न्यू फाउंडलंड ह्या संघाक १९४९ त मेळ्ळो.

संघराज्याचे थापणुकेउपरांत हांगा मेटीस लोकांची (फ्रेंच आनी इंडियन हांची संकरित प्रजा) दोन बंडां जालीं (१८६९-१८७३ आनी १८८५). पयल्या म्हाझुजांत कॅनडान ब्रिटनाक सैन्य, लडायेचें सामान, अन्न हांची पुरवण करून म्हत्वाचो वांटो उबारलो. ह्याच काळांत हांगा सैमीक उत्पन्नाचो सोद, येरादारीची उदरगत ह्या सारक्या गजालींक लागून देशाक बरेंच म्हत्व आयलें. पूण १९२९ त अर्थीक स्थिती इबाडली. दुसऱ्या म्हाझुजांत कॅनडा इश्ट राश्ट्रांवटेन उबो रावलो. झुजांत निर्वासित जाल्ल्या बऱ्याच लोकांनी कॅनडांत आलाशिरो घेतलो. झुजाउपरांत १०-१२ वर्सां कॅनडाचीं सुत्रां लिबरल पक्षाकडेन आशिल्लीं. तेउपरांत तीं कंझर्व्हेटिव्ह पक्षाकडेन आनी पर्थून १९६३ त लेस्टर पीअर्सनच्या फुडारपणाखाला लिबरल पक्षाकडेन आयलीं.

संयुक्त राश्ट्र संघटनेंत कॅनडाक आयज बरेंच म्हत्व आसा. अमेरिका-इंग्लंड हांच्या वांगडा इश्टागत आनी कम्युनिस्ट पंगडाक विरोध, अशें जरी ताचें धोरण आसलें तरी १९६० उपरांत कम्युनिस्ट देशांवांगडा ताणें वेपार केलो. १९६२ त क्युबाचेर घुरी घालपाखातीर अमेरिकेन कॅनडाचे हवाई तळ मागिल्ले, पूण कॅनडान ते दिलेनात. संयुक्त राश्ट्रांत चीनाक प्रवेश मेळचो म्हूण कॅनडान फाटबळ दिलें; दक्षिण आफ्रिकेच्या वर्णद्वेशाच्या धोरणाक कॅनडान सदांच विरोध केलो आनी अमेरिकेच्या व्हिएतनामावेले घुरयेचोय निशेध केलो. १९६८ ते १९७९ मेरेन लेस्टर पीअर्सनाफाटल्यान पिएर ट्रुडो हांगा वेंचून येवन देशांचो मुखेली जालो. १९७९ त ज्यो क्लार्क हो पुरोगामी कंझर्व्हेटिव्ह पक्षाचो फुडारी सत्तेर आयलो.

१९८० त अर्थसंकल्पाच्या प्रस्नावेल्यान क्लार्काक राजीनामो दिवचो पडलो आनी ट्रुडो पर्थून सत्तेर आयलो. १९८२ त कॅनेडीयन कायद्यावरवीं ब्रिटनाचे सगळे कायदेशीर हक्क कॅनडावेल्यान काडून उडयले. १९८४ त ट्रुडो निवृत्त जाल्या उपरांत ब्रायन मुलरोनी पंतप्रधान जालो.

**राज्यवेवस्थाः** तत्त्वीक नदरेन १९२६ त कॅनडाक सार्वभौमत्व मेळ्ळें, तरी १७ एप्रिल १९८२ मेरेन राज्यकारभार ब्रिटनचे राणयेवरवीं चलतालो. १९८२ त नवें संविधान ह्या देशाक मेळ्ळें आनी पुराय़पणान वसाहतवादाची सांवळी ह्या देशावेल्यान पयसावली. खरें पळोवंक गेल्यार देशाचें संविधान १८६७ तल्या 'ब्रिटीश नॉर्थ अमेरिका ॲक्ट' ह्या कायद्याप्रमाण घडलां. हातूंत उपरांत बरेच बदल जायत गेले. हो देश म्हळ्यार १० प्रांतांचें एक संघराज्य आसा. संसद दोन घरांनी भरता. हांगाचे मुखेल राजकी पक्ष म्हळ्यार पुरोगामी कंझर्व्हेटिव्ह, उदारमतवादी आनी नवलोकशायवादी. हांगाचें संविधान ब्रिटीश संविधानाक बरेंच लागींचें आसा. प्रांतांतलीं विधीमंडळां एकाच घरांत भरतात. वेंचून

आयिल्ल्या लोकप्रतिनिधींभायर प्रांताचें प्रशासन चलोवपाखातीर दरेक प्रांतांत राज्यपाल आसता.

**अर्थीक स्थिती:** कॅनडाची अर्थीक स्थिती शेतवडीचेर आदारिल्ली आसा. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत हांगा हेर उद्येगधंद्यांची व्हड प्रमाणांत जरी वाड जाली, तरी मनीसबळाचे संख्येप्रमाण शेतवड सगळ्या मुळाव्या उद्येगांमदीं सगळ्यांत् फुडें आसा. शेतांतले पिकावळीमदीं बटाट, गंव, बार्ली, मको हीं म्हत्वाचीं पिकां आसात. तेभायर तरातरांचीं फळां, भाजी हांगा बऱ्याच प्रमाणांत वाडटा. गोरवां-मेंढरां पोशिल्ल्यान तांच्या दूद आनी मांसाच्या धंद्याक बरीच पोसवण मेळ्ळ्या. शेतवडीचे नदरेंतल्यान हो देश बरोच गिरेस्त आसा. तेभायर रानांनी आशिल्ल्या रूखांच्या लांकडाक लागून अर्थीक स्थिती घटमुट जावंक पावल्या.

खणउद्येगाची उदरगत विसाव्या शेंकड्याचे सुरवातीसावन जावंक लागली. १९५७ उपरांत पेट्रोलियम उत्पादनाच्या मळार कॅनडा बरोच फुडें पावलो. संवसारीक उत्पादनाचे नदरेन कॅनडाचो निकेल, ॲस्बेस्टस, रूपें आनी जस्त हांचे विशीं पयलो क्रमांक लागता; जाल्यार युरेनियम, मॉलिब्डिनम, जिप्सम, सेलेनियम, गंधक, टिटॅनियम, ॲल्युमिनियम, कोबाल्ट, प्लॅटिनम आनी टेल्यूरियम हांच्या उत्पादनांत दुसरो; भांगर, लोखण हातूंत तिसरो; शिशें, मॅग्नेशियम हांच्या उत्पादनांत चवथो क्रमांक लागता. सैमीक वायू मेळपाचें प्रमाणूय हांगा बरेंच आसा.

ह्या देशाक थंय आशिल्ल्या सरोवरांक लागून बरीच उदकांतली पिकावळ मेळटा. नुस्त्याच्या वेपारांत संवसारीक मळार कॅनडाचो क्रमांक बरोच ऊंच आसा. रानांत बीव्हर, मिंक ह्या सारके प्राणी आशिल्ल्यान तांचे ल्हंवेखातीर चामडें निर्यात करपाच्या मळार कॅनडा बरोच मुखार पावला.

कॅनडा हो एक उद्येगांच्या मळार फुडारिल्लो देश आसा. पयल्या आनी दुसऱ्या म्हाझुजाचो परिणाम जावन हांगा तंत्रगिन्यानाक बरेंच म्हत्व आयलें. अन्न उत्पादन, कपडो, कागद, धातूउद्येग, येरादारीउद्येग, रसायनां, तंबाखू, रबर, विद्युत् उपकरणां, यंत्रां आनी यंत्रउद्येग हांच्या मळार कॅनडा सामको फुडारला. संवसारांतल्या अर्द्यापरस चड देशांकडेन ह्या देशाचे आयात-निर्यात संबंद आसात.

संवसारांतल्या गिरेस्त देशांमदीं कॅनडाचो आस्पाव जाता. हांगाचे पिकाळ जमनीक लागून, तंत्रगिन्यानाचे वाडीक लागून आनी सैमीक गिरेस्तकायेक लागून देशाच्या अर्थीक मळाचेर परिणाम जावन, हो देश आयज हेर गिरस्त देशांवांगडा सर्त लावपाचे पात्रतायेचो थारला.

पर्यटन हो ह्या देशांतलो म्हत्वाचो उद्येग आसा. १९८२ वर्सा पर्यटनाच्या मळार कॅनडाचो संवसारांत णववो क्रमांक आशिल्लो. ह्या उद्येगांत काम करपी ११ लाख लोक ह्या देशांत १९८३ मेरेन आशिल्ले. हांगा भोंवडेखातीर येवपी चडशे लोक अमेरिकन आसतात. परकी चलन दिवपाविशीं गंव, कागद, येरादारीचे उद्येग आनी हेर उद्येगांफाटल्यान सवो क्रमांक पर्यटनाचो आसा.

**येरादारी आनी संचारण:** १९८४ मेरेन कॅनडांत ८,८४,२४९ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. प्रवासी वाहनां १,०७,३१,००० जाल्यार ट्रक आनी बसी ३३,६२,००० आशिल्ल्यो. रस्त्यांवेले येरादारीच्या मळार हांगा बरीच उदरगत जाल्या. १९०० सावन हांगाच्या वाडत वचपी उद्येगांची गरज भागोवपाखातीर आनी गंवांची पुरवण बरेतरेन जावपाखातीर रेल्वेमार्ग बांदपाच्या कामाक बरोच नेट आयलो. १९८४ मेरेन हांगा १,२०,००० किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आशिल्ले. रेल्वेमार्गाचो उपेग उद्येगधंद्यांक पालव दिवपाखातीर जाता. कॅनडांतलीं बंदरां हवामानाचे नदरेन उपेगी थारनात. शियाळ्यांत मॉंट्रियल बंदर बंद दवरचें पडटा. व्हॅंकुव्हर हें बंदर निर्यातीचे नदरेंतल्यान बरेंच म्हत्वाचें आसा. देशाभितरली उदकायेरादारी कालवे आनी न्हंयांतल्यान जाता. 'एअर कॅनडा' आनी 'कॅनेडियन पॅसिफिक एअरलायन्स' ह्यो विमानकंपन्यो हवाईमार्गावेली येरादारी सांबाळटात.

ह्या देशांत १९८४ मेरेन १२० खबरांपत्रां आशिल्लीं. खबरांपत्रां चडशीं इंग्लीश आनी फ्रेंच भाशांतल्यान उजवाडायतात.

**लोक आनी समाजजीण:** हांगाची लोकसंख्येची दाटी सामकीच उणी आसा. उत्तरेखटेनच्या वाठारांत तर सामकेच उणे लोक सांपडटात. हांगा फ्रेंच, ब्रिटिश, स्कॉटिश, आयरीश, जर्मन, इटालियन, डच, पोलिश, युक्रेनीयन आनी हेर युरोपीय लोकांवांगडा चिनी, जपानी, हेर आशियाई, निग्रो, आदिवासी, इंडियन आनी एस्किमो लोक रावतात. एस्किमो चडशे उत्तरेखटेन आसात. हालींच्या काळांत एस्किमो सुदारले तरी पूण कांय एस्किमो फकत नुस्तेमारी आनी शिकार करुन जियेतात. कॅनडांतले मूळ लोक इरोक्वाय, ह्यूरन, ॲल्गॉंक्वियन, ॲथापास्कन हे आदिवासी इंडियन जरी विंगड विंगड वाठारांनी पातळिल्ले आसले तरी सद्या ते कॅनेडियन संस्कृतायेवांगडा बरेतरेन भरसल्यात. कॅनडांत फ्रेंच आनी इंग्लीश ह्यो दोन मुखेल भाशा आसात. फ्रेंच लोकांचो जे सुवातेर चड राबितो आसा थंय फ्रेंच संस्कृताय, जाल्यार ब्रिटीश लोक चड रावपी वाठारांनी इंग्लीश संस्कृतायेच्यो कुरवो दिसून येतात. हांगाचे चडशे लोक किरिस्तांव आसात, तांतले अर्दे प्रोटेस्टंट आनी अर्दे रोमन कॅथलिक आसात. ह्या दोनायचे बरेच उपपंथ आसात; तेभायर मॉर्मन, मेनोनायट्स, ह्यूटे, रायट्स हे पंगड सांपडटात. ज्यू, मुसलमान, बौध्द आनी हिंदू धर्माचेय लोक हांगा आसात. दरेक धर्माचीं प्रार्थनामंदिरां ह्या देशांत पळोवंक मेळटात.

हांगाचे कलेची उदरगत फाटल्या शंबर वर्सांत जाल्या. हांगाच्या एस्किमो आनी आदिवासी इंडियन लोकांची कला सोडल्यार हेर कला युरोपांतल्या लोकांनी थंयसावन हाडून तशीच राखून दवरल्या. हांगाचे बांदावळीचेर गॉथिक, फ्रेंच, व्हिक्टोरियन ह्या प्रकारांचो प्रभाव जाणवता. चित्रकलेच्या मळार हांगा बरीच उदरगत जाल्या. संगीत आनी रंगमाचयेचेर अमेरिकेचो प्रभाव आसा.

खेळांमदीं चडशे खेळ बर्फावेले आसात. शियाळ्या ऑलिंपिकांत तशेंच ऑलिंपिक सर्तींनी हांगाच्या खेळगड्यांनी नामना मेळयल्या गेल्यात. बर्फावेलो हॉकी, कर्लिंग, स्कीईंग, टोबोगॅनिंग आनी स्केटींग हे शियाळे खेळ आनी लॅक्रॉस, बेसबॉल, गोल्फ हे गिमाच्या दिसांतले खेळ हांगाचे लोक खेळटात.

तेभायर नुस्तेमारी, मोटारींची सर्त, व्हड्यांची आनी मोटार सायकलींची सर्त, शिकार, दोंगर चडप ह्या खेळांकय हांगाच्या लोकांच्या जिवितांत बरेंच म्हत्व आसा. हांगाच्यो असल्यो सर्ती संवसारभर नामनेक पावल्यात आनी संवसारांतले नामनेचे खेळगडे हांगा खेळांसर्तींनी वांटो घेवपाखातीर व्हडा उमेदीन येतात.

**शिक्षण:** शिक्षण दरेक प्रांतांत विंगड विंगड प्रकारचें आसा. दरेक प्रांताक आपल्याक जाय ते पध्दतीन शिक्षण दिवपाचो जरी हक्क आसलो तरी सादारणपणान तें एकसारकें आसता. आदिवासी आनी हेर देशांनी आशिल्ल्या कॅनेडियन विद्यार्थ्यांच्या शिक्षणाची जापसालदारकी केंद्र सरकाराचेर आसता. अल्पसंख्यांकांच्योय हांगा बऱ्योच शिक्षणसंस्था आसात. माध्यमिक पांवड्यामेरेन शिक्षण फुकट आसता. तरांतरांच्या मळावेलें शिक्षण दिवपाची बरी तजवीज ह्या देशांत आसा. साक्षरतेच्या मळार हो देश बरोच फुडारला. तेभायर उच्च पांवड्यावेलें सगळेतरेचें शिक्षण घेवपाची हांगा बरी वेवस्था आसा.

**भाशा आनी साहित्य:** फ्रेंच आनी इंग्लीश ह्या भाशांतल्यान चडशी साहित्यनिर्मणी जाता. एकुणिसाव्या शेंकड्यासावन हांगा साहित्याचे उदरगतीक सुरवात जाली. टॉमस चांडलर हॅलीबर्टन हाणें आंतरराश्ट्रीय मळाचेर नामना मेळयली. रॉबर्टस्, ब्लिस कारमान हे एकुणिसाव्या शेंकड्यांतले व्हड कवी आनी कथाकार. लुई फ्रेशेत (१८३९- १९०८) हाच्या काव्याची फ्रेंच अकादेमीन तुस्त केल्ली. मेझो द ला रॉश (१८८५-१९६१) हे लेखिकेचे कादंबरीक आंतरराश्ट्रीय पुरस्कार फाव जालो. सद्याच्या काळांतले एथेल विल्सन, मागरिट लॉरेन्स, गॅब्रिएल रॉय हे साहित्यिक नामनेचे आसात. तेभायर इतिहास, तत्त्वगिन्यान, विज्ञान सारक्या विशयांचेर हांगा बरीच बरपावळ जाता.

**म्हत्वाचीं थळां:** ओटावा ही कॅनडाची राजधानी आसली तरी मॉण्ट्रिऑल हें हांगाचें सगळ्यांत व्हड शार आसा. टॉरँटो, व्हँकुव्हर, एडमंटन, कॅलगारी, हॅमिल्टन, विनीपेग, लंडन, विंझर, क्वीबेक, रिजायना, सॅस्काटून हीं हांगाचीं हेर व्हडलीं शारां.

तेभायर उत्तरेखटेनचे वाठार थंयचे सैमीक सोबीतकायेक लागून संवसारांतल्या भोंवडेकारांखातीर आकर्शणाचे थारल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## कॅन्सर:

**कॅन्सर:** कॅन्सर हें उतर लॅटीन भाशेंतल्या 'कॅंक्रम' ह्या उतरावयल्यान आयलां. 'कॅंक्रम' म्हळ्यार कुल्ली. कुल्ली जशी आपले दांगे मांसात रोमता, तशाच प्रकारान कॅन्सर पेशीजाळांत (tissues) रिगता.

कॅन्सर जावप म्हळ्यार कुडींत पेशींची (cells) भरपूर प्रमाणांत नवी उत्पत्ती जावन कुडीक मारक अशी गांठ निर्माण जावप. अशी जी गांठ निर्माण जाता, तिका 'निओप्लासिया' वा 'ट्यूमर' अशेंय म्हण्टात. हे निओप्लासिया वा ट्यूमर दोन प्रकारचे आसतात. १. निरुपद्रवी (benign or innocent) २. उपद्रवी (malignant). उपद्रवी गांठीक सादारणपणान कॅन्सर म्हण्टात आनी अशी गांठ जावप फकत मनशांकूच न्हय, तर हेर जनावरां, झाडां आनी किटकांकूय जाता.

**इतिहासीक फाटभूंय:** ट्यूमर वा कुडींतल्या गांठींची म्हायती सामक्या पोरन्या म्हळ्यार रामायणकाळासावन सांपडटा (इ.स.प. सुमार २०००). कॅन्सरविशींची बरीचशी म्हायती इ.स.प. १५०० वर्सा ईजिप्तचे पोरने बरपावळींतय सांपडल्या.

जाका वैजकीशास्त्राचो मूळपुरुस मानतात त्या कॉस हांगाच्या हिप्पोक्रेटस (इ.स.प. ४६०-३७५) हाणें दोन विभागांनी ट्यूमरांचें दुयेंस वांटून घालां: (१) धोको नाशिल्ले ट्यूमर (२) धोक्याचे ट्यूमर. गालेन (इ.स. १३१-२०१) हाणें बरयिल्ल्या ३०० परस चड पुस्तकांनी ट्यूमरचेर खासा बरपावळ आसा. १७ व्या शतमानांत लागिल्ल्या सूक्ष्मदर्शकाच्या (microscope) सोदाक लागून आनी मासैलो मालपिगी (१६२८-१६९४) हाच्या ऊतिविज्ञानाच्या (histology) अभ्यासाक लागून फुडें रुडॉल्फ विरचॉव्ह (१८२१-१९०२) हाणें पोरन्या पेशींचें विभाजन जावन नव्यो पेशी तयार जातात, असो विचार आशिल्लो क्रांतीकारक प्रबंध बरयलो. हांगासावन विकारविज्ञानाच्या (pathology) अभ्यासाक नेटान सुरवात जाली.

**वर्गीकरण:** *थळ वर्गीकरण (site classification):* कुडींतल्या दरेक अवयवाभितर विंगड विंगड प्रकारच्यो पेशी आसतात आनी ह्या कोशिकांनी एक वा चड प्रकारच्या कॅन्सराची लागण जावंक शकता. ताका लागून तांच्या मूळ थळावयल्यान वर्गीकरण करूं येता.

*क्रियावादी वर्गीकरण (functional classification):* बरेच ट्यूमर शेंबडासारक्या पदार्थांची निर्मणी करतात आनी कांय फावट ही निर्मणी बऱ्याच व्हड प्रमाणांत जाता. अशा क्रियांचो परिणाम अंतःस्त्रावी ग्रंथीचेर (endocrine glands) दिसून येता.

*पेशींचें आनुवंशिकी वर्गीकरण (histogenetic or cytogenetic classification):* ऊतिजननीक आनी पेशीजननीक अशें वर्गीकरण सूक्ष्मदर्शकांतल्यान ट्यूमरचें परीक्षण केल्याउपरांत आनी जातूंतल्यान कॅन्सर जावपाची शक्यताय आसा अशा ऊतिंची वा पेशींची वळख जातकच करतात.

*सद्याचें वर्गीकरण:* सद्या जें वर्गीकरण करतात तें पेशीजननीक आनी प्रवृत्ती ह्या दोन गजालींचेर आदारीत आसा. ट्यूमराक नांवां दिवपाखातीर विंगड विंगड अनुप्रत्ययांचो (suffixes) उपेग जाता. 'ओमा' (oma) अनुप्रत्यय म्हळ्यार ट्यूमर. निरुपद्रवी ट्यूमरांक ऊतिंच्या-पेशिकांच्या प्रकाराक अनुप्रत्यय लावन नांवां दितात. देखीक- तंतूंच्या ऊतिंच्या (fibrous tissues) उपकारक ट्यूमराक फायब्रोमा (fibroma) म्हण्टात. ग्रंथीच्या अभिस्तराच्या (glandular epithelium) निरुपद्रवी ट्यूमराक ॲडेनोमा (adenoma) म्हण्टात. अभिस्तराच्या उपद्रवी ट्यूमराक कार्सिनोमा (carcinoma) म्हण्टात, जाल्यार विरल मध्यजनस्तरीय (mesenchymal) ऊतिंच्या ट्यूमराक सारकोमा (sarcoma) म्हण्टात.

**ट्युमरांचें वर्गीकरण:**

| ऊतक | निरुपद्रवी | उपद्रवी ट्यूमर |
|---|---|---|
| ***जोडपी उतक (Connective tissue)*** | | |
| वाडिल्ल्या तंतूचे ऊति | फायब्रोमा | फायब्रोसारकोमा |
| गर्भावस्थेंतल्या तंतूचे ऊति | मायक्सोमा | मायक्सोसारकोमा |
| उपास्थि(Cartilage) तंतूचे ऊति | कॉण्ड्रोमा | कॉण्ड्रोसारकोमा |
| हाड | ऑस्टेओमा | ऑस्टेओसारकोमा |
| चरबी | लिपोमा | लिपोसारकोमा |
| ***स्नायू (Muscle)*** | | |
| अरेखित स्नायू (Smooth muscle) | लियोमायोमा | लियोमायोसारकोमा |
| रेखित स्नायू (Straited muscle) | रॅब्डोमायोमा | रेब्डोमायोसारकोमा |
| ***अंतःस्तर (Endothelium)*** | | |
| लसीका वाहिनी (Lymph vessel) | लिम्फॅन्जियोमा | लिम्फॉन्जियो-सारकोमा |
| रगत वाहिनी (Blood vessel) | हॅमान्जियोमा | हॅमान्जियो-सारकोमा |
| लसीकाभ ऊति (Lymphoid tissue) | - | लिम्फोमा |
| अस्थिमज्जा (Bone Marrow) | - | ल्युकेमिया |
| ***तटस्थ ऊतक(Neutral tissue)*** | | |
| तंत्रिका आवरण (Nerve sheath) | न्यूरिलेमोमा | न्यूरोजेनिक सारकोमा |
| तंत्रिका पेशी (Nerve cells) | गॅंग्लीयोन्यूरोमा | न्यूरोब्लास्टोमा |
| ***अभिस्तर (Epithelium)*** | | |
| शल्क अभिस्तर (Squamous epithelium | पॅपिलॉमा | शल्क कोशिका कार्सिनोमा |
| संक्रमण जावपी अभिस्तर (Transitional epithelium) | पॅपिलॉमा | संक्रमणात्मक कोशिका कार्सिनोमा |
| ग्रंथीचो अभिस्तर (Grandular epithelium) | ॲडेनोमा | ॲडेना कार्सिकोमा |
| यकृत कोशिका (Liver cells) | निरुपद्रवी हॅपाटोमा | मारक हॅपाटोमा |
| घाम ग्रंथी (Sweat glands) | हायड्राडेनोमा | हायड्राडीनॉयड कार्सिकोमा |
| आयलेट ऑफ लँगरहॅन्स (Islet of langerhans) | आयलेट सेल ॲडेनोमा | आयलेट सेल कार्सिकोमा |
| ***हेर (Miscellaneous)*** | | |
| ट्रॉपोब्लास्टस् | हायडॅटिड मोल | कॉरियोकार्सिनोमा |
| टॉटिपॉटेन्शियल पेशी | निरुपद्रवी टॅराटोमा | उपद्रवी टॅराटोमा |

**उत्पत्ती आनी कारणां:** कॅन्सर जावपाफाटल्यान कसलेंय एकूच कारण नासता. जरी मनीस आनी हेर जनावरांभितर कॅन्सर उत्पादित करपी

कांय घटक मेळ्ळयात, तरी बरेच घटक अजूनमरेन उजवाडांत येवंक नात. कॅन्सर बऱ्याचशा कारणांक लागून उप्रासता, हें मात सिध्द जालां.

**आनुवंशिकः** कॅन्सर जावपाफाटल्यान आनुवंशिक कारण म्हत्वाचें आसता, हाचेविशीं बरेच पुरावे मेळ्ळयात. देखीक- जुंवळ्या भुरग्यांमदीं एकेच तरेचो कॅन्सर सर्रासपणान दिसून आयला. खासा तरेचे ट्यूमर एकाच घराण्यांतल्या बऱ्याचशा मनशांमदीं उप्राशिल्ले सांपडटात. आनुवंशिकतेवांगडाच हेर पर्यावरणीय कारणांय कॅन्सराफाटल्यान आसतात.

**वर्ण आनी भुगोलीक घटकः** हवामान, जमीन, उदक, खाण-जेवण, संवयो आनी चालीरिती ह्यो गजाली विंगडविंगडपणान वा एकठांय जावन कॅन्सर जावपाफाटलीं कारणां आसूंक शकतात. देखीक- यकृत कॅन्सर हो अशे तरेचो कॅन्सर जावन आसा, जो अमेरिकन आनी युरोपीयांमदीं उण्या प्रमाणांत सांपडटा, जाल्यार उदेंतेवटेनच्या देशांभितर चड प्रमाणांत दिसून येता. थानांचो कॅन्सर जपानांत सामकोच उणो जाल्यार अमेरिकेंत चड प्रमाणांत दिसून येता. ग्रीवा (cervix) कॅन्सराचें प्रमाण ज्यू बायलांमदीं सामकेंच उणें आसा. कातीच्या कॅन्सराचें प्रमाण धव्या लोकांमदीं चड जाल्यार काळ्या लोकांमदीं उणें आसता.

**पिरायः** कॅन्सर खंयचेय पिरायेचेर जावंक शकता, पूण चड करून जाण्टया मनशांमदीं तो चड दिसून येता. कांय प्रकारच्या कॅन्सराच्या घडणुकांनी परायेचे नदरेंतल्यान खाशेलेपण दिसून येता. देखीकः ल्युकेमिया हो ल्हान पिरायेचेर आनी सामक्या जाण्टेपणांत सगळ्यांत चड प्रमाणांत सांपडटा.

**लिंग आनी संप्रेरकां** (hormones): वीरुधा (prostrate) आनी थानांचो कॅन्सर संप्रेरकांचेर आदारित आसता.

**भौतिक कारक** (physical agents): सादारण कातीपरस घायांच्या मावांचेर कॅन्सराचें प्रमाण चड दिसून येता. आयनायझींग रेडिएशनाक (ionizing radiation) लागून कॅन्सर जावंक शकता. देखीक- रेडिएशन जावपाच्या सुवातींचेर काम करपी कामगारांमदीं ल्युकेमियाचें प्रमाण दिसून येता. पोटांत आसतना वा जल्म जातकच ल्हान भुरग्याचो क्ष-किरणांकडेन संपर्क आयल्यार कॅन्सर जावपाची भिरांत आसता. जपानाचेर अणुबाँब उडयल्या उपरांत थंय बऱ्याच लोकांक ल्युकेमियाची लागण जाल्याचें दिसून आयलां.

**रसायनीक कारक** (chemical agents): पर्सिव्हल पॉट हाणें १७७५ त लंडनाक वृषणकोश (scrotum) कॅन्सराच्यो बऱ्योच घडणुको उजवाडांत हाडल्यो. काजळी, कोळसो, डांबर, आर्सेनिक, अल्कलीकरण करपी कारक (alkylating agents), पॉलिक्लिनीक वासाचे हायड्रोकार्बन, वासाचीं ॲमिन्स, नायट्रोसॅमिन, तंबाखू आदी रसायनांक लागून कॅन्सर जावं येता.

**जीवशास्त्रीय कारक** (biological agents): चिथ्याचें वीख (fungal toxins); लिव्हरफ्ल्यूक, व्हायरस सारक्या परोपजीवी (parasites) जंतूंपसून कॅन्सर जावं येता. ज्या व्हायरसांक लागून कॅन्सर जाता, तांकां ऑंकोजेनिक व्हायरस म्हण्टात. हालींच सोद लागिल्ल्या HIV ह्या ऑंकोजेनिक व्हायरसाक लागून *एड्स (*)* हें दुयेंस जाता, अशें समजलां.

**कॅन्सर जावंचे पयलींच्यो विकृती-सुवाती** (Precancerous lesions): कॅन्सराची लागण पुरायपणान जावंचेआदीं कुडींत बदल घडत वतात. देखीक- तोंडाचो कॅन्सर आनी तुटिल्ले दांत हांचो संबंद आसता, पोटाचो कॅन्सर जावचेपयलीं पोटांत हायड्रोक्लोरिक अम्लाचें प्रमाण उणें जाता. यकृत कॅन्सर जावचेपयलीं 'सिऱ्होसिस' दुयेंस जाता. जीं बायलां ल्हान पिरायेचेर गुरवार जातात, तांकां थानांचो कॅन्सर जावपाचें प्रमाण उणें आसता. देंविल्ल्यो (descended) कोयो (वृषण) हांचेपरस न देंविल्ल्यो कोयो हातूंत कॅन्सराची शक्यताय उणी आसता. गोरे कातीच्या मनशांक कातीच्या कॅन्सराची शक्यताय चड आसता.

**कॅन्सर आनी समाजः** कॅन्सराचें दुयेंस संवसारभर पातळ्ळां. हाचेर जतनाय म्हूण कॅन्सर जावंक दिवप ना, हो जरी सगळ्यांत बरो उपाय आसलो, तरी तो करप शक्य ना; कारण चडशा कॅन्सराचीं कारणां अजून समजल्लीं नात. कॅन्सर जातनाच जर तो सांपडून येत जाल्यार उपाय जावपाची शक्यताय चड आसता.

कॅन्सराचेर नियंत्रण म्हूण जतनाय, बेगीनच ताका वळखप आनी बरो उपचार हे उपाय येवजूं येतात. चडशे कॅन्सर चार पांवड्यानी वांटून घाल्यात. पयलो पांवडो म्हळ्यार कॅन्सराची लागण कुडीच्या खंयच्याय भागाक जावंक सुरवात जावप आनी निमणो वा चवथो पांवडो म्हळ्यार तो कुडीच्या बऱ्याचशा भागांनी पातळप. चवथ्या पांवड्यार रोग पावतकच मनीस उपचार करून लेगीत वांचपाची शक्यताय नासता. कॅन्सराचेर उपचार म्हळ्यारः १. शस्त्रक्रिया (Surgery) २. रेडिओथेरपी ३. ॲंटिकॅन्सर वखदां आनी ४. इम्युनोथेरपी वा हेर कसलोय उपाय. ह्या उपायांवरवीं कॅन्सराक पुरायपणान आळाबंदाक हाडपाचे यत्न चल्ल्यात. पूण ह्या रोगाक पुराय नियंत्रित करूंक जायना. ताका लागून उपचारांवरवीं ट्यूमराची वाड कापून उडोवप आनी रोग्याचो जीव चड दीस वांचोवप आनी यातना उण्यो करप, हेंच शक्य जाता.

कॅन्सराची गांठ काडून उडयल्या उपरांत ती पर्थून येता, ताका रिकरन्स (recurrence) अशें म्हण्टात. हातूंतल्यान पयलींच्यो लागण जाल्ल्यो पेशी जिव्यो उरल्यात आनी त्यो वाडत आसात, हें सिध्द जाता.

कॅन्सर भोंवतणच्या ऊतिमदीं (tissues) वाडत वता. तो हेर परजीवींचेरय आक्रमण करता आनी उपरांत मॅटासिस म्हळ्यार लसीका वाहिनी (lymph vessels) आनी रगत वाहिनीवरवीं (blood vessels) तो कुडीच्या हेर भागांनी पावता. लसीका वाहिनींवरवीं तो लसीका ग्रंथींनी (lymph nodes) पावता, जाल्यार रगत वाहिनींवरवीं यकृत, मेंदू, हाडां, फुफ्फुसां ह्या सुवातींनी पावता.

फुफ्फुसांचो कॅन्सर जाल्ल्या मनशाक खांक येवप, वजन उणें जावप, हड्ड्यांत दुखप, स्वास घेवंक त्रास जावप, अशीं लक्षणां दिसतात. फुफ्फुसांच्या कॅन्सराचें प्रमाण दादल्यांमदीं सर्रास दिसता. हो कॅन्सर चड करून ४० ते ७० वर्सांच्या पिरायेमदीं जाता. तंबाखू ओडप हें ह्या कॅन्सराचें मुखेल कारण आसा. उद्येगीक प्रदूशण, वातावरण प्रदूशण हांकांय लागून हो कॅन्सर जाता.

ताळ्याचो कॅन्सर जाल्ल्या मनशाचो आवाज घोगरो जाता, ताळो दुखूंक लागता आनी गिळपाक त्रास जाता. होय तंबाखूच्या वेसनाक लागूनूच जाता. तोंडाचो कॅन्सर भारतांत सर्रास सांपडटा. गोंयांतय तो दिसून येता. तंबाखू ओडप वा पान खावप ह्या संवयांक लागून तो जाता.

ग्रसिका (oesophagus) कॅन्सर आल्कोल, तंबाखूचें वेसन, चड गरम वा मसाल्याचे पदार्थ खाल्ल्यान जाता. हातुंतूय गिळटा आसतना बरेच त्रास जातात.

पोटाचो कॅन्सर जपानांत चड प्रमाणांत दिसून येता. कारण थंय धुंवरयल्लें नुस्तें, शीत आनी मसाल्याचे पदार्थ खावपाचें प्रमाण चड आसा. हातूंत रोग्याच्या पोटांत दुखता आनी ओंकारो येता. बृहदांत (colon) कॅन्सर मांस चड खाल्ल्यान, खास करून गायचें मांस चड खाल्ल्यान जाता. हातूंत हागवण लागप, गुवांतल्यांत रगत वचप वा हागूंक बंद जावप, अशीं लक्षणां दिसतात.

यकृताचो कॅन्सर आफ्रिका, चीन हांगा चड प्रमाणांत दिसून येता. हॅपाटायटिस बी, सिऱ्हॉसिस हांकां लागून तो जाता. हो कॅन्सर जाल्ल्या रोग्यांक कामीण जाता आनी यकृत सुजता.

किडनी कॅन्सर भुरग्यांक जायत जाल्यार ताका विल्मस् ट्यूमर म्हण्टात. जाण्ट्यांमदीं मुतांतल्यान रगत पडपाचें लक्षण दिसता.

मुत्राशयाचो (urinary bladder) कॅन्सर स्किस्टोसोमा ह्या परजीवी जंतूंक लागून जाता. रंग, तंबाखू ओडप, आल्कोल, कृत्रिम साकरेचे पदार्थ हांकांय लागून तो जावं येता.

दादल्याच्या लिंगाचो (penis) कॅन्सर जांची सुंता (circumcised) जावंक ना तांचेमदीं चड दिसता. देखीक- मुसलमान आनी ज्यू सुंता करतात.

देखून, तांचेमदीं ह्या कॅन्सराचें प्रमाण उणें आसता.

ग्रीवा (cervix) कॅन्सर हो बायलांमदीं सगळ्यांत चड प्रमाणांत दिसपी कॅन्सर. हो गरीब लोकांमदीं, ल्हान पिरायेचेर लग्न जाल्ल्या बायलांमदीं, ल्हान पिरायेचेर संभोग करप्यांमदीं, एकापरस चड जाणांकडेन संभोग करपी बायलांमदीं आनी चड संभोग करपी बायलांमदीं चड प्रमाणांत दिसता.

थानांचो कॅन्सर होय बायलांमदीं चड प्रमाणांत दिसपी कॅन्सर आसा. हो लग्न जावनाशिल्ल्या वा भुरगीं नाशिल्ल्या बायलांक जावपाची शक्यताय चड आसता. हातूंत थानांभितर गांठ तयार जाता.

मेंदवाचो कॅन्सर खंयचेय पिरायेर सांपडटा, पूण हो चडसो दिसून येना. हातूंत रोग्याक आचके येवप, मज्जाविकृती, असलीं लक्षणां दिसतात. हो CAT Scan च्या वरवीं तपासूंक मेळटा.

हाडांचो कॅन्सर वाडपी भुरग्यांमदीं चड सांपडटा. तो धोपरां आनी कुल्यांच्या भागांनी चड दिसता.

ल्यूकेमिया म्हळ्यार रगताचो कॅन्सर. ल्हान भुरग्यांक तो जाता तेन्ना ताका ॲक्यूट लिम्फोब्लास्टिक ल्यूकेमिया म्हण्टात. जाण्ट्यांमदीं ॲक्यूट आनी क्रॉनिक ल्युकेमिया दिसून येता. हो रगत आनी अस्थिमज्जा (bone marrow) तपासल्यार सांपडूं येता. हो कॅन्सर जाल्ल्या रोग्याक जोर येवप, रगतस्राव सुरू जावप, वजन देंवप, थाकाय येवप, ग्रंथी सुजप, यकृत आनी प्लीहा सुजप अशीं लक्षणां दिसतात. हाचेर ॲंटीकॅन्सर वखदां दितात. अस्थिमज्जेचें प्रतिरोपण करप (bone marrow transplant) होय उपचार हाचेर करतात.

गोंयांत भलायकी केंद्रां, सरकारी हॉस्पिटलां तशेंच खाजगी हॉस्पिटलांनी कॅन्सराची तपासणी जाता. गोंयांत ग्रीवा (cervix) आनी थानांचो कॅन्सर बायलांमदीं चड प्रमाणांत सांपडटा. दादल्यांमदीं तोंडाचो आनी पोटाचो कॅन्सर चड प्रमाणांत दिसून येता. ल्यूकेमियाचें प्रमाणय गोंयांत बरेंच आसा. गोंय वैजकी महाविद्यालयांत शस्त्रक्रिया आनी ॲंटीकॅन्सर वखदांचो उपचार जावंक शकता. *गोवा कॅन्सर सोसायटी (*)* संस्थेवरवीं कॅन्सराचेर उपचार आनी संशोधन चलता. रेडिओथेरपी ह्या उपचाराखातीर रोग्याक गोंयांतल्यान मुंबय, हुबळी वा मिरज हांगा धाडटात, कारण रेडिओथेरपीची वेवस्था हांगा ना.

भारतांत कॅन्सराविशीं उपचार आनी संशोधन करपी सगळ्यांत नामनेची संस्था म्हळ्यार मुबयचें टाटा मेमोरियल हॉस्पिटल.

गोंयांत लोटली हांगा शांती आवेदना आश्रम ही टाटा मेमोरियल हॉस्पिटलाची शाखा आसा, जंय कॅन्सराचेर उपचार करप जाता.

कॅन्सर ह्या घातक रोगाक लागून फकत कुडीचेंच न्हय तर, समाजीक मानसिक आनी भावनिक प्रस्नय उप्रासल्यात.

- डॉ. रॉक वाइजमन पिंटो

**कॅमेरून:** आफ्रिका खंडांतलें एक राश्ट्र. विस्तार १° ४३′ उत्तर ते १२° ४०′ उत्तर आनी ८° ३०′ उदेंत ते १६° ३′ उदेंत. क्षेत्रफळ सुमार ४,७५,५०१ चौ. किमी. लोकसंख्या: ९८,७३,००० (१९८६). हाचे उत्तरेवटेन चॅड, उदेंतेक चॅड आनी मध्य आफ्रिका प्रजासत्ताक, आग्नेयेवटेन काँगो आनी दक्षिणेवटेन काँगो, गाबाँ, रीओमूनी आसात. सुमार ३५४ किमी. ची दर्यादिग हाका अस्तंतेवटेन लाबल्या. इंग्लीश आनी फ्रेंच राज्यभाशा आशिल्ल्या ह्या आफ्रिकेंतल्या देशाची राजधानी याऊंदे ही आसा.

**भूंयवर्णन, हवामान, वनस्पत आनी मोनजात:** कॅमेरून, कूपे, मॅनेन्गूबा, बांबूटो, ॲलांटिका, नामेबी आनी मांदारा हे ह्या देशांतले मुखेल पर्वत जाल्यार वूरी, सानागा, न्यॉंग क्रॉस, टेम, लोगोन, डूमे, लोम आनी जा ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो. कॅमेरूनचें हवामान विंगड विंगड प्रकाराचें आसा. हवामानाचे नदरेन ५° उत्तर अक्षवृत्ताचे उत्तरेवटेनचो आनी दक्षिणेवटेनचो अशे दोन वांटे जातात. सरासरी वर्सुकी तापमान २६° से. आसता. उणो पावस आनी चड तापमान हें हांगाचें खाशेलेपण आसा. व्हड सॅव्हाना तणाचे वाठार आनी न्हंयां देगांवयलीं रानां हांगा आसात.

ह्या देशांत हत्ती, गोरिला, बॅबून, सितातुंगा, मेरूं, विंगड विंगड प्रकारच्यो म्हशी, बुबल, एल्क, गॅझेल, चित्तो, शिंव हे प्राणी सांपडटात. पॅंगोलिन, हायरॅक्स ह्या सारके ल्हान प्राणी, तरांतरांचे सोरोप आनी हेर किड मूय बरीच दिश्टी पडटा.




**इतिहास आनी राज्यवेवस्था:** पूर्विल्ल्या काळांत हांगाच्या लोकांचो पिग्मि लोकांकडेन संबंद आशिल्ल्याचें दिसून येता. हांगा तरेतरेच्यो टोळयो शेंकड्यांनी वर्सांसावन रावताल्यो आनी तांणी आपापलीं राज्यां निर्मिल्लीं. हांगाचे मूळ लोक ह्या राज्यांनी रावताले. युरोपीय वसाहतवादी हांगा पावतकच तांणी हांगाच्या लोकांक धरुन गुलाम म्हूण विकूंक सुरवात केली. १८८४ सावन हो देश जर्मनीच्या शेकातळा उरलो. १९१६ त, इश्ट राश्ट्रांनी ह्या देशाक आपले सत्तेखाला हाडलो. १९२२ त फ्रांस आनी ब्रिटन हांणी हो देश आपल्यामदीं वांटून घेतलो. उपरांत १९४६ त, संयुक्त राश्ट्रांच्या नियंत्रणाखाल आशिल्लो. १९६० त, फ्रांसाचे सत्तेखाल आशिल्लो कॅमेरुनचो वाठार स्वतंत्र जालो आनी अहमदू आहिजू हो हांगाचो राश्ट्रपती जालो. ब्रिटनाचे सत्तेखाल आशिल्ल्या वाठाराचे दोन वांटे जाले. उत्तरेवटेनचो वांटो नायजेरियांत विलीन जालो, जाल्यार दक्षिणेवटेनचो वांटो १९६१ त कॅमेरून प्रजासत्ताकांत विलीन जालो. १९६२ मेरेन हांगाच्या लोकांनी दर फावट अहमदू आहिजू हाकाच राश्ट्रपती वेंचलो. १९८२ त, पॉल बिया हाचेकडेन ताणें राज्यकारभाराचीं सुत्रां सोंपयलीं. ह्या देशांत फकत एकूच राजकी पक्षाची सत्ता चलता. दर पांच वर्सांनी राश्ट्रपती वेंचपाखातीर वेंचणूको जातात. आयज मेरेन पॉल बिया होच हांगाचो राश्ट्रपती जावन आसा.

**अर्थवेवस्था:** अर्थवेवस्था शेतवडीचेर आदारल्या. कोको, काफी, रबर, ताडाचें तेल हीं मुखेल पिकां. हेर कड्डणांचेंय उत्पादन जाता. कारखान्यांचें प्रमाण ल्हव ल्हव वाडत आसा आनी उद्येगधंद्यांच्या मळार उदरगत चालू आसा. मुखेल आयातनिर्यात वेव्हार फ्रांस, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां आनी हेर युरोपीय राश्ट्रांवांगडा जाता. ॲल्युमिनीयमची बरीच निर्यात हांगासावन जाता. सीएफ्‌ए फ्रॅंक हें हांगाचें अधिकृत चलन जावन आसा.

**समाजीक स्थिती:** वंशीक नदरेन सुमार ५२% लोक बांटू, १५% किर्डी, ९.५% फुलांनी आनी उरिल्ले हेर वंशाचे आसात. धर्मीक नदरेन ३५% रोमन कॅथलिक, १८% प्रॉटेस्टंट, २५% आदिवासी धर्म मानपी, जाल्यार सुमार २२% मुसलमान धर्माचे आसात. फ्रेंच आनी इंग्लीश ह्यो ह्या देशाच्यो अधिकृत राज्यभाशा आसल्यो, तरी हांगाच्या मूळ

आदिवासींच्यो भाशा दिसपट्ट्या वेव्हारांत उपेगाच्यो थारतात. येरादारीचे नदरेंतल्यान ह्या देशांत व्हडलीशी उदरगत जावंक ना. दुआला हांगा देशांतलो मुखेल विमानतळ आसा. ह्या देशांतल्यान एक दिसाळें उजवाडाक येता. शिक्षणाचें प्रमाण त्या मानान बरें आसा. फुटबॉल हो हांगाचो सगळ्यांत चड आवडीचो खेळ. रॉजर मिला हो हांगाचो फुटबॉल गडो बरोच नामनेक पावला. मॉंगो बेति, फर्डिनांड ओयोनो ह्या हांगाच्या लेखकांनी संवसारभर नामना मेळयल्या. याऊंदे ही राजधानी आनी दूआला, गारुआ, कुंबा, अंग-कॉंगसांबा, मारुआ हीं ह्या देशांतलीं म्हत्वाचीं थळां आसात. सद्याच्या काळांत पध्दतशीरपणान पर्यटनाची उदरगत करून लोकांक आपलेवटेन ओडपाचे हांगाच्या सरकाराचे यत्न चल्ल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**कॅरम:** ह्या खेळाचो जल्म भारतांत जालो अशें म्हण्टात. कलकत्ता हांगा खेळांच्या साहित्याचो वेपार करपी कार आनी महालानोबीस हे कंपनीच्या नांवातल्या इंग्लीश आद्याक्षरांवेल्यान 'कॅरम' ह्या नांवान तांणी हो खेळ प्रचारांत हाडलो अशें म्हण्टात.

हो खेळ दोन वा चार खेळगडे खेळटात. ह्या खेळाखातीर ७५.२५×७५.२५ सेंमी. ह्या चवकोनी आकाराचो बोर्ड वापरतात. ल्हान भुरग्यांखातीर ल्हान मापाचो बोर्ड आसता. ह्या खेळांत १९ घुलो आसतात, त्यो अश्योः ९ धव्यो, ९ काळ्यो आनी १ तांबडी. तांबडे घुलयेक 'राणी' (क्वीन) म्हण्टात. घुलांचो व्यास २.५४ सेंमी. आनी दाटाय ३ मिमि. परस मात्शी कमी आसता. त्यो निबर लांकडा पसू करतात. घुलो मोखपाखातीर 'स्ट्रायकर' आसता, तो प्लास्टीकचो, हस्तीदंताचो वा शिंगांचो आसता. तो घुलांपरस दाट, ३.८ सेंमी. व्यासाचो आनी वजनदार आसता. खेळटा आसतना घुलो बोर्डाचेरूच उरच्यो, म्हूण चारुय वटांनी लांकडाची पट्टी बसयल्ली आसता. हे पट्टे पसून १० ते १२.५ सेंमी. वयर चारुय वटांनी समांतर दोन वळी काडिल्ल्यो आसतात. ह्यो वळी कोनांकडेन जोडीनासतना, थाराविक अंतर सोडून तांच्या सगळ्या कोनशांचेर २.५४ व्यासाचीं वर्तुळां काडिल्लीं आसतात. दोनूय वटांच्या वर्तुळांत एक अर्दवर्तुळ काडून तांच्या मदल्यान बोर्डाच्या मध्यबिंदूकडेन वचपी एकेक बाण काडिल्लो आसता. हे बाण त्या त्या वळींच्या खेळगड्याची मर्यादा दाखयतात. बोर्डाच्या चारुय कोनशांत ५.०८ सेंमी. व्यासाचे वांटकुळे बुराक आसतात. तांच्या तोंडाक जाळयेच्यो पोतयो लावन घुलो वचपाखातीर तजवीज केल्ली आसता. बोर्डाच्या मध्यबिंदूभोंवतणी २.५४ सेंमी. वर्तुळ काडिल्लें आसता. ती राणयेची राखीव सुवात आसता. ह्या वर्तुळाच्या भायर जें १५.२४ सेंमी. व्यासाचें वर्तुळ आसता, तातूंत ९ धव्यो आनी ९ काळ्यो घुलो एका फाटल्यान एक मांडटात. घुलो मांडटकच खेळगड्यान आपलेवटेनच्या दोन वळींचेर 'स्ट्रायकर' दवरून ती मांडावळ फोडली म्हण्टकच खेळ सुरू जाता. खेळगड्याची घूल घरांत वचना जातकच ताजो डाव वता आनी प्रतिस्पर्ध्याक खेळूंक मेळटा. अशेतरेन आरतून-परतून खेळ खेळटात. एकट्याच्यो सगळ्यो घुलो आनी राणी घरांत वतकच डाव सोंपता ताका राणयेचे पांच गूण आनी प्रतिस्पर्ध्याच्या उरिल्ल्या घुलांइतले गूण मेळटात. एकूण डाव २९ गुणांचो आसता. ज्यो खेळगड्याचे २९ गूण पयलीं जातात त्या मनशाचें जैत जाता. कॅरम सर्तींत असल्या तीन डावांतले दोन डाव जिखपी जैतीवंत थारता. कॅरमाच्यो सर्ती जिल्हो, राज्य आनी अखिल भारतीय पातळेचेर जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**कॅरेल, आलेक्सिसः** (जल्मः २८ जून १८७३, सांत फ्वालेलियाँ-फ्रांस; मरणः ५ नोव्हेंबर १९४४, पारीस).

फ्रेंच वैज, शस्त्रक्रियातंत्रज्ञ आनी जीववैज्ञानिक. लिआँ आनी दिझाँ विद्यापीठांत ताचें शिकप जालें. लिआँ विद्यापीठांत ताणें प्रयोगनिर्देशकाचें काम केलें (१९०१-१९०२). १९०५ त तो कॅनडांत आनी १९०६ त अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत गेलो. शिकागो विद्यापीठाच्या शरीरक्रियावैज्ञानिक प्रयोगशाळेंत आनी 'रॉकफेलर इन्स्टिट्यूट फॉर मेडिकल रिसर्च' हे संस्थेंत ताणें काम केलें. १९४१ त, 'फाउंडेशन फॉर द स्टडी ऑफ ह्यूमन रिलेशन्स' हे संस्थेचो संचालक म्हूण ताची नेमणूक जाली.

जित्या ऊतकांच्या (tissues) शरीरक्रियाविज्ञानाचो ताणें अभ्यास केलो. कोंबयेच्या पिलाचें काळीज आनी हेर ऊतकां कुडीभायर काडून तीं जितीं दवरपाक ताका यश आयलें. जखमांचेर उपाय करपाखातीर आनी 'कोथ' (ऊतकांक लागून जावपी एक दुयेंस) जावचो न्हय हेखातीर ताणें एच्. डी. डेकिन हाच्या पालवान 'कॅरेल-डेकिन विद्राव' ह्या नांवाचो विद्राव सोदून काडलो. सी. ए. लिंडबर्ग हाच्या पालवान कॅरेल हाणें यांत्रिक काळीज तयार केलें.

प्रायोगिक शस्त्रक्रियेविशींचो म्हत्वाचो संशोधन वावर ताणें केलो. रक्तवाहिन्यो शिंवन जोडपाचें आनी रोहिणी, नीला आनी हेर अवयवांचें प्रतिरोपण (transplantation) हांचेविशींच्या ताच्या मोलादीक वावराखातीर ताका १९१२ चो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञानाचो नोबेल पुरस्कार फाव जालो.

युनायटेड स्टेट्स डिस्टिंगविश्ड सर्व्हिस पदक (१९२२), नॉर्डहॉफजंग कॅन्सर पुरस्कार (१९३१), न्यूमन फाउंडेशन इनाम (१९३७) हे भोवमान ताका फाव जाले. ताणें बरयल्लीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां अशीं:- Man, the Unknown (1935); The Making of Civilized Man (1937); The Prayer (1948); The Culture of Organs (with C.A.Lindbergh, 1938); Journey to Lourdes (1950); Reflections on Life (1952).

— कों. वि. सं. मं.

**कॅल्व्हिन, मेल्व्हिनः** (जल्मः ८ एप्रिल १९११, सेंट पॉल-मिनिसोटा).

नामनेचो अमेरिकन रसायनशास्त्रज्ञ. १९३१ त, ताणें मिशिगन कॉलेज ऑफ मायनिंग अँड टेक्नॉलॉजी हातूंत बी. एस्. पदवी मेळयली आनी १९३५ त, मिनिसोटा विद्यापीठाची पीएच्. डी. मेळयली. १९३५-३७ ह्या काळांत तो मँचेस्टर (इंग्लंड) विद्यापीठांत फेलो आशिल्लो. तेउपरांत, कॅलिफोर्निया विद्यापीठ, बर्कले हांगा ताची निर्देशक म्हूण नेमणूक जाली. १९४६ त, 'लॉरेन्स रेडिएशन लॅबोरेटरी' च्या जैव-कार्बनी रसायनशास्त्र विभागांचो तो संचालक जालो. १९४७ त, ताची कॅलिफोर्निया विद्यापीठांत प्राध्यापक म्हूण नेमणूक जाली.

जीवरसायनीक विक्रियांत प्रकाशसंश्लेशण (photosynthesis) खूब म्हत्वाचें आसा. हरितद्रव्य (chlorophyll) आशिल्ल्यो वनस्पती, कार्बन डाय-ऑक्साइड (carbon dioxide) आनी उदक हांचेपसून सूर्यप्रकाशावरवीं carbohydrates तयार करतात.

हें प्रकाशसंश्लेशणाचें एक उदाहरण आसा. ह्या संश्लेशणांत घडून येवपी विक्रिया खंयच्यो आनी त्यो खंयच्या अनुक्रमान घडून येतात हें सोदून काडपाचो म्हत्वाचो वावर ताणें केलो. तेखातीर ताणें कार्बन (१४) हो किरणोत्सर्गी (radioactive) कार्बनाचो समस्थानिक (isotope) आनी क्लोरेला हें शैवल (alga) हांचो उपेग केलो. वनस्पतींनी जावपी Carbon dioxide चे समावेशन (assimilation) ह्या ताच्या म्हत्वाच्या संशोधनाखातीर १९६१ त, रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार ताका फाव जालो.

तो 'रॉयल सोसायटी ऑफ लंडन' आनी हेर नामनेच्या विद्वत संस्थांचो सभासद आसा. ऑक्सफर्ड विद्यापीठ आनी हेर जायत्या विद्यापीठांनी ताका भोवमानान डॉक्टरेट दिल्या.

ताणें बरयल्लीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां अशीं: The Theory of Organic Chemistry (1941), Isotopic Carbon (1949), The Path of Carbon in Photosynthesis (1957), Chemical Evolution (1961), Photosynthesis of Carbon Compounds (1962).

- कों. वि. सं. मं.

**कॅसलर, आल्फ्रेड:** (जल्मः ३ मे १९०२, गॅबविलर-फ्रांस; मरणः १९८४).

फ्रेंच भौतिकशास्त्रज्ञ. ताचें शिकप एकोलनॉर्मल स्युपेरियर पारीस हांगा जालें. पयलीं ताणें मुलहाऊस कोलमार आनी बोर्दो हांगाच्या शिक्षणसंस्थांत अध्यापन केलें (१९२६-३१). मागीर बोर्दो हांगाच्या विज्ञान विभागांत सहाय्यक (१९३१-३६), क्लेरमॉफेरां विद्यापीठांत अधिव्याख्यातो (१९३६-३८), बोर्दो हांगाच्या विज्ञान विभागांत प्राध्यापक (१९३८-४१) आनी १९४१ सावन एकोल नॉर्माल स्युपेरियर हांगा भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक अशा वेगवेगळ्या पदांचेर ताणें काम केलें. १९५८ सावन तो अॅटोमिक क्लॉफ प्रयोगशाळेचो संचालक आशिल्लो.

ताणें सोदून काडिल्ल्या उजवाडाचे पंप पध्दतीक लागून लेसरचो आनी मेसरचो सोद लागपाक व्हड मदत जाली. ताणें बिटर आनी ब्रॉसेल हांच्या पालवान ध्रुवीत (polarised) उजवाडाचो उपेग करून आनी पुंजयामिकीय (quantum mechanics) निवड नेमांचो फायदो घेवन ही अडचण सोडयली. अणूंतल्या (Hertzian) अनुस्पंदनाचो (resonance) अभ्यास आनी ताचेखातीर उजवाडाच्या पध्दतींचो लायिल्लो सोद ह्या ावराखातीर ताका १९६६ च्या भौतिकशास्त्राचो नोबेल पुरस्कार फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**कांकण:** 'कंकणं करभूषणम्' = हाताचें भूषण म्हळ्यार कांकण. कांकण हें बायलांच्या हाताचो मुखेल अलंकार. चांदी, भांगर, रूपें, पितूळ ह्या धातूंचीं तशेंच कंवचेचीं, शंखाचीं, प्लास्टिकचीं अश्या कितल्याश्याच तरांचीं कांकणां तयार करतात. कांकण हो कुमारीका आनी सवायशीण बायलांचो एक मुखेल सौभाग्य-अलंकार मानतात.

भारतीय समाजांत कांकणांक म्हत्वाची सुवात आसा. भारतांत बायलो पूर्विल्ल्या काळासावन कांकणां वापरतात. मोहेंजोदारो हांगाच्या उत्खननांत मेळिल्ले एके बायल मूर्तीच्या हातांत कोंपरामेरेन कांकणां घाल्लीं दिसतात. शुंग काळांतल्या चूलकोला, सुदर्शना, चंदा ह्या यक्षिणींच्या मूर्तींच्या हातांत कांकणां दिसतात. सांची हांगाच्या स्त्री-चित्रांत, गांधारमूर्तिकलेंत तशेंच अजंठा हांगाची कोरीव स्त्रीमूर्तींत कांकणांचो आस्पाव आसा. बाणाचे कादंबरींत सरस्वती देवीन शंखाचीं कांकणां धारण केल्ल्याचो उल्लेक आसा.

सगळ्या धर्म-संप्रदायांतल्यो बायलो कंवचेचीं कांकणां चड प्रमाणांत वापरतात. कंवचेचीं कांकणां कारखान्यांत तयार करपाची रीत थोड्याभितर अशीः

कंवची तयार करपाखातीर रेंव, सोडा हे जिनस लागतात. कंवची चकचकीत जावंची म्हूण सोडियम नाइट्रेट, पॉटॅशियम नायट्रेट वा बोरॅक्स हीं रसायनां वापरतात.

रेंव, सोडा टांकयेंत ('पॉट' नांवाच्या आयदनांत) घालून घोळयतात. हाका भराई (stuffing) अशें म्हण्टात. लांकडाच्या कोळशांच्या उज्याचेर सुमार १२०० ते १५००° से. तापमानाचेर हें टांकयेतलें मिश्रण तापयतात. टाकयेंत भरिल्लो कच्चो माल वितळून ताचो रोस तयार जावपाक सुमार २४ वरां लागतात. रंगीत कंवची तयार करपाखातीर लागपी रंग आनी रंग घोळोवपाखातीर लागपी हेर रसायनां ह्याच वेळार रोसांत भरशितात. कडयल्ली निवळ कंवची वेगळी काडपाचे क्रियेक निकासी (clearance) अशें म्हण्टात. कडयल्लो कंवचेचो रोस व्हडल्या दवल्यांनी ('लबिया') वेगळो काडटात. कंवचेचो रोस तीन पांवड्यांनी पध्दतशीर निवळायतकच (refine) शुध्द निवळ कंवचीय मेळटा. ताका 'लोम' अशें म्हण्टात. कडयल्ली कंवची (लोम) मेळटकच कांकणां तयार जायमेरेनचे सगळे क्रियेक 'गरम काम' अशें म्हण्टात. हांगाच कांकणांक रंग, आकार, डिझाइन, दिवपाची खरी प्रक्रिया सुरू जाता. कांकणां एकरंगी वा बहुरंगी, जसो प्रकार आसा, तेप्रमाण फाव ते भाटयेर घालून तांकां जाय तशी गोलाय दितात. कांकणांक तरेतरेचे डिझाइन यंत्राचेर दितात. सध्या प्रचारांत आशिल्ले कांकणाचे प्रकार अशेः बुंदकी, खिरकिया, झरोखनी, सूरजमुखी, चन्दातारई, लोकतारनी. अशे तरेन कांकणां तयार करून जातकच तीं तपासतात. वाडवल्लीं, वेर गेल्लीं, फुटकीं कांकणां वेगळीं काडटात आनी विकपाक धाडपाचीं कांकणां २४ कांकणांचो एक 'दर्जन' (घोंस) अशीं मेजून बांदतात. १२ दजनांक म्हळ्यार २८८ कांकणाच्या घोंसाक हिंदींत 'गड्डो' वा 'तोडो' अशें म्हण्टात.

भारतांतल्या कांय भागांत, चड करून आदिवासी जमातींनी बायलो कोंपरामेरेन कांकणां घालतात. बंगलांत शंखांचीं कांकणां हो सौभाग्याचो अलंकार अशें मानतात. पंजाबांत मंगल कार्यावेळार हत्तीदांतांचीं कांकणां वापरपाची पध्दत आसा. लाखेचीं कांकणां खूब लोकप्रिय आसात. लग्नाचे पयलीं व्हंकलेक जीं कांकणां भरतात ताका गोंयांत आनी महाराष्ट्रांत लग्नचुडो अशें म्हण्टात. आपल्याक कांकणां आनी चुडो वज्राचो मेळचो म्हळ्यार, आपल्याक अक्षय सौभाग्य मेळचें अशी जण एके सौभाग्यवतीची इत्सा आसता. तेखातीर ती व्रतां करता.

दरेक वाठारांतल्या लोकगीतांल्यान बायलांचीं कांकणां आनी चुड्याविशींची ओड दिसून येता. देखीकः महाराष्ट्रांतली एक बायल आपल्या चुड्याखातीर म्हळ्यार सौभाग्य सासणाचें उरचेखातीर देवाकडेन अशी प्रार्थना करताः

'देई देवा मज। देशील तितुकें पुरे,
अक्षय माझे चुडे।जन्मवेरी ।।
देवाच्या देऊळीं। उभी मी जागत्यें ।
आयुष्य मागतें। चुडेयांना ।।'

गोंयांत कांकणां विकप्यांक कांकणकार वा 'वळार' (वलयकार) अशें म्हण्टात. गोंयच्या धालांनी कांकणांचो उल्लेख आयला तो असो

**वळेरा**
कांकणकारा वळारा
तुजी बायल गेली कुळारा
तुजी बायल गेली कुळारा

वचुनी तिका, वचुनी तिका
तांबडी साडी नेसुनी तिका
तांबडी साडी नेसुनी.

तांबडे साडयेच्यो मिरयो
लांब मिरयो
चक्क चोळयो
सरपळी
चक्क चोळयो सरपळी.

साडे आशिल्ली काडी
भिजली तिजी साडी
भिजली तिजी साडी

- कों. वि. सं. मं.

**कांचीपुरम्:** तमिळनाडू राज्यांतल्या चिंगलपुट जिल्ह्यांतलें पूर्विल्लें धर्मीक क्षेत्र. लोकसंख्याः १,३०,९२६ (१९८१). हें शार दक्षिण राज्यांतल्या चिंगलपुट-अर्कोणम् रस्त्यार, मद्रासाचे नैर्ऋत्येक ७२ किमी. अंतराचेर पालार न्हंयेचे देगेर वसलां. ह्या शाराक कच्चीपेट्टु, मलंग नगरी, कुरुंभरभूमी, सत्यव्रत क्षेत्रम्, तिरुपतिकुनरम्, कच्ची, कंची आदी तरेकवार नांवां आदल्या साहित्यांत मेळटात. चडकरून संस्कृत आनी तमीळ साहित्य, तशेंच कांय शिलालेखांत हीं नांवां मेळटात.

पयलो शेंकडो मेरेन ह्या शाराक बौध्द धर्माचें विद्यापीठ मानताले. सातव्या शेंकड्या उपरांत बौध्द आनी जैन धर्माक ल्हव ल्हव करून देंवती कळा लागली आनी फुडल्या शेंकड्यांत ते आद्य शंकराचार्याचें एक मुखेल पीठ जालें.

कांचीपुरम् शाराचो इतिहास दुसऱ्या शेंकड्यासावन मेळटा. सुर्वेक ह्या शाराचेर चोल राजाची सत्ता आशिल्ली. उपरांत चवथ्या तें णव्या शेंकड्यामेरेन कांची ही पल्लवांची राजधानी आशिल्ली. फुडें पल्लवांकडसून पर्थून कांची तेराव्या शेंकड्यामेरेन चोल राजांकडेन गेली. चवदाव्या शेंकड्यासावन सतराव्या शेंकड्यामेरेन ती विजयनगराचे सत्तेखाला आशिल्ली. फुडें ह्या काळांत मलिक काफूर आनी विजापुरचो सुलतान हांणी तीन फावट ह्या शाराचेर चाल केली. १६४५ त गोवळकोंड्याच्या सुलतानान ताचेर जैत जोडलें. फुडें कांचीपुरम् शाराचेर कांय वर्सां मराठ्यांनी राज्य केलें. उपरांत औरंगजेबान हें शार आपल्या शेकातळा हाडलें. १७५२ त कांचीपुरम, ब्रिटिशांवरवीं क्लाइव्ह हाणें अर्काटच्या नबाबांकडल्यान घेतलें. कांचीपुरम् शाराचो उच्चार ब्रिटीश लोक 'कांजीवरम्' ह्या नांवान करताले. भारतांतल्या ह्या खूब पूर्विल्ल्या शाराचे, शिवकांची (व्हड कांची) आनी विष्णुकांची (ल्हान कांची) अशे दोन विभाग आसात. तशेंच पालार न्हंयचे दक्षिण देगेर आशिल्ल्या तिरुपतिकुनरम् ह्या वाठाराक जैनकांची म्हण्टात.

पुराण साहित्यावेल्यान कांचीपुरम् हें भारतांतलें सप्तमोक्षपुरांतलें एक आसा. हांगा १०८ शैव आनी १८ वैष्णव देवळां आसात. हें नगर पल्लव (द्रविड) वास्तु-शिल्पाचें केंद्र समजतात. पल्लव काळांत बांदिल्लीं कैलासनाथ (राजसिंहेश्वर), वैकुंठ पेरुमाल, महेंद्रवर्मेश्वर, मुक्तेश्वर, मंतगेश्वर आदी देवळां द्राविड वास्तुशैलीचीं आसात. कैलास देवळांतलीं वण्टीवयलीं शिल्पां पळोवपासारकीं आसात. ह्या शिल्पांतल्यान त्या काळांतले कलेचें आनी संस्कृतायेचें दर्शन घडटा.

फुडें चोल काळांत 'आलगर कोइल', 'पांडव पेरुमाल' हीं विष्णुचीं देवळां आनी 'ज्वरहरेश्वर' हें शिवाचें देवूळ बांदलें. उपरांतचीं एकाम्रनाथ (एकांबरेश्वर), वरदराजस्वामी, कामाक्षी, अष्टभुज, चित्रगुप्त, सत्यव्रतेश्वर, अगस्तीश्वर आदी द्राविड शैलीचीं देवळां विजयानगराच्या काळांत बांदलीं. हातूंतलें एकाम्रनाथाच्या देवळाचें गोपूर कृष्णदेवराय हाणें (१५०९-१५२९) बांदलें. ह्या देवळाच्या सभामंडपांत ५०० खांबे आसात. त्या खांब्यांचेर तरेकवार नक्षीकाम आसा. देवळांत व्हड पृथ्वी आकाराचें पंचमहाभूतात्मक शिवलिंगातलें एक शिवलिंग आसा आनी देखुनूच ताचें महात्म्य चड मानतात. हें लिंग पृथ्वीतत्त्वाचें प्रतिनिधी समजतात. ब्रह्मांड पुराणांत एकाम्रनाथाविशीं कथा आसा ती अशी:

एकदां शिव आनी पार्वती सारीपाट खेळटा आसतना दोगांयचीं झगडीं जालीं. तेन्ना पार्वतीन शिवाक कितेंतरी म्हळें. शिवान रागान तिका श्राप दिलो, 'तुजें सुंदर रुप काळें कुरुप जातलें.' श्राप दितकच शिव थंयचो उठून गेलो. पार्वती खूब भियेली आनी भोंवत भोंवत कांचीपुरम् क्षेत्रांत पावली. थंय एका आंब्याच्या झाडामुळांत ती तपश्चर्या करूंक बसली. शिवाक पश्चाताप जालो. पूण तिका प्रसन्न जावंचे पयलीं ताणें तिची सत्त्वपरीक्षा घेवपाची थारायली. ताणें आपले जटेंतली गंगा कांची शाराचेर आपटिली. थंय बुडटी आयली आनी पार्वतीन ज्या शिवलिंगाची उपासना केल्ली तें बुडूंक लागलें. तेन्ना तें लिंग काळजाकडेन धरून पार्वतीन त्या लिंगाक वाटायलें. शिव प्रसन्न जालो आनी पार्वतीक मेळ्ळ्यो. थंयच्या लोकांनी शिवाक त्या आंब्याच्या झाडामुळांत रावपाक सांगलें. उपरांत, शिव थंय एकाम्रनाथ ह्या नांवान रावंक लागलो.

कांचीपुरांतल्या शिवकांची वाठारांत नामनेचें कामक्षीचें देवूळ आसा. ह्या देवळाची थापणूक शंकराचार्यान केल्ली. तिचेखातीरूच कांचीपुरम् शाक्तिपीठ जालें. कामाक्षी आनी शंकराचार्य हांचेविशीं आख्यायिका आसा ती अशी: कामाक्षी सदांच रातची उग्र आनी भिरांकुल रुप घेवन भोंवपाक वताली आनी जाका ती दिश्टी पडटाली तो थंयचे थंय मरतालो. ही खबर शंकराचार्याक कळटकच ताणें कामाक्षीचें करुणस्त्रोत्र म्हळें. देवीन प्रसन्न जावन ताका वर मागूंक सांगलो, तेन्ना शंकराचार्यान सांगलें 'ह्या फुडें देवीन आपल्या फर्मानाबगर देवळाभायर सरूंक जायना.' तेन्नाच्यान देवीन रातचें भोंवपाचें सोडून दिलें. सद्या वर्सुकी उत्सवांत कामाक्षीची मिरवणूक काडचेपयलीं पालखी शंकराचार्याचे मुर्तीमुखार दवरून तिची मिरवणूक व्हरपाची आज्ञा घेतात. कांचीपुरम् शारांत पूर्विल्ल्या काळासावन पिळगेन-पिळग्यो रेशीम विणपाचो धंदो करपी खुबशीं घराणीं आसात. तेचपरी सुती कपडे विणपाचें कामूय हांगा बरें चलता. हांगाच्या कांजीवरम् साडयांक भारतभर मागणी आसा. भांगराच्यो वस्ती, तांब्याचीं-पितुळचीं आयदनां हांगा तयार करतात. कांचीपुरम् शारांत सगळ्या आर्विल्ल्या सुखसोयींची वेवस्था आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कांडला:** गुजरात राज्यांत आशिल्ल्या कच्छ ह्या आखाती प्रदेशावेलें भारताचें नवें बंदर. १९४७ त जाल्ले भारताचे फाळणेउपरांत भारताचें आदलें कराची बंदर पाकिस्तानांत गेलें. देखून, मुंबय बंदराचेर चड ताण पडूंक लागलो. हो ताण उणो करूंक १९४९ वर्सा जर्मनींतल्या हाम्बुर्ग ह्या बंदराचे बांदावळीचे धर्तेचेर कांडला ह्या नव्या बंदराची बांदावळ जाली. १९५५ वर्सा कांडला बंदर भारतांतलें सवें व्हड बंदर म्हूण जाहीर जालें.

कच्छ प्रदेशांतल्या अंजार ह्या वाठाराचे आग्नेयेक १९ किमी. अंतराचेर हें बंदर आसा. रेल्वे मार्गान आनी रस्त्यान कांडला बंदर 'दीसा' ह्या स्थानकाक जोडलां. देखून, उत्तर भारतांतले सात ते आठ लाख चौ. किमी. क्षेत्रांतले आयात निर्यातीची तजवीज जाता. आर्विल्ल्या सुविधांनी भरिल्ल्या ह्या बंदराचेर एका वांगडा चार व्हड जहाजां रावंक शकतात. लांब लांब मालधक्के, व्हड व्हड गुदांवां, विजेच्यो क्रेन्स, आदी आर्विल्लीं यंत्रसामुग्री, रेल्वेमार्ग, रस्ते, तेलाचे सांठे अश्यो वेगवेगळ्यो सोयी कांडला बंदरांत आसात.

ह्या बंदरालागसारूच सिंधांतल्या निर्वासितांखातीर अमेरिकन नगरतज्ञांनी, पाऊण लाख वस्तीखातीर बांदिल्लें गांधीधाम आसा.

ह्या बंदरावेल्यान मुखेल काम आयात निर्यातीचें जाता. हांगाच्यान कच्चें लोखण, भिकणां आनी तांचें तेल, कापूस, कपडो, धान्य, मीठ आदी तरेकवार वस्तुंची निर्यात जाता; जाल्यार पेट्रोल, शिमीट, कापूस, आनी रसायनीक पदार्थ हांची आयात जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**कांदो (पियाव):** (मराठी- कांदा, हिंदी-पियाज, प्याज; गुजराती- डुंगली; कन्नड-उळ्ळेगड्डी; संस्कृत- कंदर्प, पलांडू; इंग्लीश ऑनियन; लॅटीन-ऑलियम केपा; कूळ-लिलिएसी; वंश-एलियम).

ही कंदासारकी ल्हान वखदी वनस्पत जमनींत जाता. तिचीं पाळां मोटवीं तशेंच केंसाळ (Fibrous) आसतात. हीं पाळां धवसार आसून चड खोल वचनात. कांद्याचें कांड जमनींत भितर आसता आनी ह्या कांडांतल्यानच पानां वयर येतात. ह्या पानांचो थोडो भाग जमनींत उरता जाल्यार चडसो भाग जमनीवयर आसता. जमनीवेलो भाग पाचवो, नळयेच्या आकाराचो आसता. ह्या वयर आयिल्ल्या पानांक 'पात' म्हण्टात. ही पात पोकळ आनी तोंकार बारीक आसता. ह्या बारीक तोंकाचेर फुलांचें बोंड येता. फुलांचो कोर धवसर-पोपटी आसता. ह्या फुलांपसून बारीक बारीक काळ्यो बियो तयार जातात. ह्या बियांपसून कांद्याची लागवड करतात.

कांद्याच्या पानांचो जमनींत भितर उरिल्लो भाग पळोवपाक एकाद्रे फळ कशें दिसता. ह्या भागाकूच आमी खऱ्या अर्थान 'कांदो' म्हण्टात. ह्या भागांत कांद्याचो रोंपो आपलें अन्न सांठोवन दवरता. हो भाग तांबसर- गुलाबी रंगाचो आसात. ह्या भागाभितर कांद्याच्यो पाकळ्यो (पाती) एकामेकांक गुटलायिल्ल्यो आसतात. ह्योच पाकळ्यो मागीर स्वतंत्र रूपान वयर सरतात. कांदो मदीं फुगीर आनी दोनूय तोंकांनी अशीर आसता. पातयेकडलें तोंक, कांडाकडल्या तोंकाच्या मानान चड बारीक आसता. कांद्यांत अमोनिया खूब आसता, म्हूण तो कापतकच एकतरेचो वास येता. ताच्या मिरमिरसाणेक लागून दोळ्यांत दुकां येतात.

**उगमः** कांद्याचो उगम इराण आनी पाकिस्तान ह्या देशांनी जालो अशें मानतात. पूण 'चरक संहिता' ग्रंथांतल्या उल्लेखाप्रमाण भारतांत

कांद्याचो उगम पुराणकाळापसून जाल्लो दिसता. ह्या देशांतल्यान कांद्याची लागवड मागीर हेर देशांनी जाली.



**कांदो**

भारतांत सुमार २३४ हजार हेक्टर जमनींत कांदो पिकता (१९७९-८०) आनी एकूण २४४० हजार टन वर्सुकी उत्पन्न मेळटा. भारतांत महाराष्ट्र राज्यांत सगळ्यांत चड कांदो पिकता. गोंयांत सुमार २०० ते २५० हेक्टर जमनींचेर कांदो पिकता, असो अदमास आसा.

**जातीः** कांदो दोन तरांचे आसतात, धवे आनी तांबडे (तांबसार-गुलाबी). धवे कांदे कमी रुचीचे आनी कमी तीख आसतात. जाल्यार तांबडे कांदे चड तीख आनी बरे रुचीचे आसतात.

महाराष्ट्रांतल्या निफाड वाठारांत १९४६ वर्सासावन कांद्याचेर संशोधन चालू आसा. थंय कांद्याच्यो वेगवेगळ्यो जाती तयार करतात. तातूंतल्यो कांय जाती अश्योः पुसा रेड, रेड ग्लोब, स्पेनीश व्हायट, को-१, अर्ली.

**लागवडः** उश्ण प्रदेशांत कांद्याचें पीक बरें तरेन जाता. समुद्रपातळेपसून १८०० मी. उंचायेच्या वाठारांत कांद्याची लागवड जाता. जून-जुलय आनी डिसेंबर-जानेवारी अशें वर्साक दोन फावट कांद्याचें पीक काडटात. उदक सारकें मेळ्ळयार बाराय म्हयने कांद्याचें पीक काडूं येता. पूण चड पावसांत कांद्याची लागवड केल्यार कांदो कुसपाचो संभव आसता. गोंयांत कांद्याची लागवड वांयगणांत म्हळ्यार डिसेंबर-जानेवारी म्हयन्यांत करतात. कांद्याक भुसभुशीत मोव आनी उदकाची सांठ्वण करपी जमीन, तशेंच १९-२७° से. तापमान लागता.

कांदो रोवपाच्यो पध्दती दोन. एक बीं घालून, दुसरो कांदो रोवन.

पीक काडपाची पध्दत अशीः जमीन निवळ करून खणप, दिखळे फोडून माती बारीक करप. मातयेच्यो १×२ मी. अश्यो बांदयो तयार करप आनी तातूंत बीं घालप. बीं घाल्ल्यो बांदयो उपरांत तणान धांपप. तणान धांपतकच दोन फायदे जातात. पयलो- उदक बियांचेर पडून बीं उसळना आनी कोंब मोडनात. दुसरो, वातावरण गरम उरता आनी कोंब येवपाक आदार दिता. तेचपरी कोंब तणांतल्यान वयर येता म्हणसर कांय दीस वतात. ताकालागून शेवणीं तें खावपाक पावनात. बीं घाल्ल्या बांदयांचेर दिसपट्टें उदक शिंपडावचें पडटा. आठ दिसांनी बियांक कोंब येतात. कोंब तणांतल्यान वयर दिसूंक लागले म्हण्टकच तण काडून उडयतात. हे कोंब आनीक एक म्हयनोमेरेन वाडोवपाचे आसतात. सादारणशे स ते आठ इंच उंचायेचे रोंपे जातकच ते हुमटावन दुसरेकडेन रोयतात. ह्या रोप्यांक 'पात' म्हण्टात. हे पातीची भाजी करून खातात.

पात रोवपाच्यो बांदयो, खणून बीं वेवस्थीत तयार करतात, उपरांत १०×१० सेंमी. अंतराचेर कांद्याची पात रोयतात. एका हेक्टर जमनीखातीर सादारणपणान ६ ते ८ किल बियांची पात लागता.

रोवपाचो काळ दरेका वाठारांत वेगवेगळो आसता. कांद्याची वाड बरेतरेन जावपाखातीर, गोबोर, कुकडाचो गू आनी मळपी जमनींत घालतात. मळपेंतलें शेण जमीन तयार करता, ओली तशीच भुसभुशीत दवरता. कॅल्शियम, अमोनियम, नायट्रेट, सुपर फॉस्फेट आनी म्युरिएट ऑफ पॉटॅश असलीं रसायनीक सारीयं कांद्याचे लागवडीखातीर वापरतात. कांद्याच्या शेतांत नडणी करप भोव गरजेचें आसता. 'टॅनोरान' हें वखदय नडणी मारपाखातीर वापरतात.

पात रोयल्या उपरांत कांय दीस सांज-सकाळ आनी उपरांत दिसाक एक वेळ शिंपपाची गरज आसता. सादारणशें तिसऱ्या म्हयन्यांत, म्हळ्यार पातीचीं (जमनीवयल्या भागाचीं) तोंकां सुकूंक लागलीं म्हण्टकच शिंपणे बंद करतात जाय. ह्या वेळार भितल्ल्या कांद्यान आकार घेतिल्लो आसता. कांद्याची पात पुराय सुकता म्हणसर जमनींतलो भाग बरो फुगता आनी कांदो तयार जाता. तयार जाल्लो कांदो थोडे दीस जमनींत तसोच सांडपाचो आसता, उपरांत तो हुमटावन वा खणून काडटात.

कांदो तयार जावपाक कमीत कमी १२० दीस लागतात. हो कांदो कांयकडेन पातीसकट सांठ्यतात. हुमटायल्लो कांदो थोडे दीस थंयच पातळशी रास मारून सुकपाखातीर दवरतात. पातीसकट कांदे सांठोवपाची एक खाशीली पध्दत आसा. खूब कांदे एकठांय घेवन तांची पात एकामेकांत घुस्पावन विणी घालतात आनी अशेतरेन कांद्याच्यो चुडयो करतात. दोन चुडयांच्यो विणयो एकामेकांक बांदून त्यो वयर दांडयेर हुमकळायतात. अश्यो चुडयो बांदिल्लो कांदो चड तेंप तिगता. ह्या कांद्याचें मोलय चड आसता. कांद्याच्यो बांदिल्ल्यो चुडयो बाजारांत मेळटात, पूण त्यो चड तेंप तिगपाखातीर घरा हाडून तांतले कुशिल्ले कांदे आनी सुटिल्ल्यो साली कडेक काडून आनी सुकिल्ल्या तणाच्या आदारान विणयो परत्यो घालच्यो पडटात.

**कांदो रोवन पीक काडपाची पध्दत अशीः** कोंब आयिल्ले कांदे रोप, ते वाडोवप, वेवस्थीत सारें-उदक जाले म्हण्टकच तांकां फुलां येतात. हीं फुलां धवसार रंगाचीं आसतात. तांकां बियां जातात. बिंयां पुराय तयार जालीं म्हण्टकच तांचो रंग काळो जाता. हीं बिंयां काडून सुकोवन दवरतात. पयलीं सबंद गोंयांत, मयडें हो गांव बीं पावयतालो. आतां भायलें तयार बीं लोक वापरतात.

बीं रोवन लागवड केल्ल्या कांद्याचे पातीक फुलां येनात, फकत कोंबेल्ले कांदे रोवन जी लागवड करतात, ताचे पातीक फुलां येतात, आनी तांचेपसून बीं मेळटा.

बीं काडल्या उपरांत, पोंदचो कांदो काडटात. हो कांदो रुचीक कमी आसता, पूण तो लोक खावपाक वापरतात.

**उपेगः** घरच्या खाण जेवणांत कांद्याचो उपेग करतात. पात आनी कांदो, अश्या दोन तरांनी कांद्याचो वापर करतात. कांद्यापसून जेवणाक एक वेगळे तरेची रुच येता. १०० ग्राम कांद्याभितर ८६.६% उदक, १.२% प्रथिनां, ०.७% चरबी, ११.१% पिष्टमय पदार्थ (carbohydrates) ०.६% फायबर आनी ०.४% खनिजां आसतात. तेभायर गंधक, साकर, कॅल्शियम, फॉस्फोरीक, अल्म, लिग्निन, अल्ब्यूमीन, 'अ', 'ब' आनी 'क' गटांतलीं जीवनसत्त्वां आसतात.

वखदांखातीर कांद्याचो उपेग खूबतरेन जाता. कातीचेर जावपी जायत्या पिडांचेर कांद्याचो वापर करतात. फोड येवप, गोळ जावप हाचेर भाजिल्लो कांदो (poultice) वापरतात. कान दुखप आनी दोळ्यांचे पिडेखातीर कांद्याचो रोस उपेगाक पडटा. ल्हान भुरग्यांक जाल्ली थंडी आनी खोंकली निवळावपाक कांद्याच्या रोसाचो उपेग जाता. कांदो खाल्यार भूक वाडटा आनी मुतूंक साफ जाता. ते भायर कामीण, पीत्त, कफ, अजीर्ण, आमांश, पटकी, घुंवळ, मोडणें ह्या दुयेंसांचेरय उपाय म्हूण कांद्याचो वापर करतात. बायलांची मासिक पाळी सुरू करपाकय

कांद्याचो उपेग जाता. गोडेंमूत जाल्ल्या वायटकाराक दिसाक ५० ग्राम, ह्या हिशेबान कांद्याचो वापार केल्या 'इन्सुलीन' ह्या द्रव्याचो वापर ४० युनिटांवेल्यान २० युनिट दर दिसा कमी जाता.

**रोग आनी उपाय:** कांद्याचे पातीक जायत्या तरांचो रोग आनी किडी लागतात.

Pseudoumia Sicatp नांवाच्या चित्यापसून कांद्याचे पातीक रोग लागता. पातीचेर बारीक बारीक गोबरा कोराचे दाग पडटात. ह्या रोगाक आळाबंदा हाडपाक कांद्याची बरी जात लायतात. तेचपरी बियांक 'थायरन' वा 'कोप्टान' ह्या सारकीं वखदां चोळून मागीर बीं किल्लत घालतात. तशेंच कांद्याच्या शेतांत हो रोग दिसल्यार 'बाव्हीस्टीन वा 'केलीकसीत' सारक्या वखदांचो फवारो मारतात. Alternaria Palanduin नांवाच्या चित्यापसून आनीक एक रोग कांद्याचे पातीक जाता. ताका लागून पातीचेर बारीक पुडी कोराचे दाग पडटात. ह्या रोगाक आळाबंदा हाडपाखातीर कांद्याफाटल्यान दुसरें पीक घेतात. तेचपरी 'बाव्हीस्टीन' हें वखद फवारतात. Sclerotium Cepvorum हो चितो लागल्यार कांदो कुसता. Botrytis allri ह्या चित्याक लागून कांद्याक 'नेक रोट' हो रोग जाता. ह्या रोगाची लागण जाल्यार कांद्याचो मानेकडलो भाग कुसता. Aspergillus ह्या चित्यापसून कांद्याचेर काळो पिठो जाता. ह्या रोगाक आळाबंदा हाडपाखातीर कांदे बरेतरेन सुकोवन दवरतात. ते भायर बाव्हीस्टीन, केलीकसीत हीं वखदां वापरतात. स्मूट (Smut) नांवाचो आनी एक रोग कांद्याक जाता. हो रोग जाल्यार कांद्याची पात वाडना, म्हणजे आपशींच भितल्ल्या कांद्याचे वाडीचेर परिणाम जाता. योग्य बीं वापरुन आनी बियांक वखद लावन हो रोग पयस करतात.

**कीड:** कांद्याक थ्रिप्स (thrips) नांवाची किमसांभशेन बारीक दिसपी कीड लागता. ती पातींतलो रोस खाता, ताका लागून पात मुड्डता आनी वांकडी जाता. चड करून गिमांत ही कीड लागता. हे किडीक ना करपाखातीर वीस-वीस दिसांनी 'मोनोप्लोटोफॉस' वा 'डायमेथोएट' हीं वखदां फवारचीं. 'नाइट' नांवाची किडूय कांद्याक लागता, पूण तिचेपसून चड लुकसाण जायना.

**हेर माहिती:** कांद्याच्या उत्पादनांत आनी निर्यातींत भारताचो क्रमांक बरोच वयर लागता. जगांतल्या एकंदर निर्यातींत १०.४% कांद्याची निर्यात भारतांतल्यान जाता, फळां आनी भाजीपाल्यापसून निर्यातींत मेळपी फायद्याच्या ८६% निर्यात कांद्यापसून जाता.

शास्त्रीय नदरेन कांद्याचो जरी भाजीपाल्यांत आस्पाव जाता आसलो, तरी लोक देवकार्याच्या जेवणांत कांद्याचो वापर करीनात.

- कों. वि. सं. मं.

## कांपुचिया: (पळेयात ख्मेर)

## कांबळी, बाबुभाय मंगल: (जल्म: १ जानेवारी १९२४, वारकुंड-दमण).

गोंयचो सुटके झुजारी. माध्यमिक शिक्षण गुजरातींतल्यान घेतलें. आझाद गोमंतक दल संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९५४ वर्सा सावन ताणें राश्ट्रवादी वावर करपाक सुरवात केली. १९५६ वर्सा पोलिसांनी ताका धरलो आनी स म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताका गोंयां हाडलो. गोंयच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत ताची चवकशी जाली. ऑगस्ट १९५७ त, ताका तीन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. फुडें ऑगस्ट १९५९ वर्सा आग्वाद बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. ११ ऑगस्ट १९७३ दिसा भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कांबळी, भागुभाय गोवनभाय: (जल्म: २२ डिसेंबर १९३७, वारकुंड-दमण).

गोंयचो सुटके झुजारी. आझाद गोमंतक दल संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९५४ वर्सा सावन ताणें आझाद गोमंतक दल संघटनेचे वतीन भूंयगत वावर करपाक सुरवात केली. भिकुभाय डी. पांड्या, बाळसू राणा, प्रभाकर सिनारी आनी विश्वनाथ लवंदे ह्या सुटके झुजाऱ्यांच्या मार्गदर्शनाखाल ताणें वावर केला. १९५६ वर्सा 'क्रांती' नांवाच्या पत्रकाच्यो प्रती वांटतना पोलिसांनी ताका धरलो आनी गोंयां हाडलो. पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत ताची चवकशी जाली आनी ताका पांच वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. उपरांत तीन वर्सां बंदखण भोगतकच १९५९ वर्सा ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कांबळी, मनोहर सीताराम: (जल्म: ५ एप्रिल १९३८, दाभाळें-वेंगुर्लें).

गोंयचो सुटके झुजारी. मुंबयच्या 'लाला लजपतराय कॉलेज ऑफ कॉमर्स अॅन्ड इकॉनोमिक्स' ह्या महाविद्यालयाचो तो प्राध्यापक आनी उप प्राचार्य आशिल्लो. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पोर्तुगेजांआड भूंयगत वावरांनी तो वांटो घेतालो. १८ जून १९५६ दिसा ताका अटक जाली. ताणें आपल्या हेर वांगड्याचीं नांवां सांगचीं देखून पोलिसांनी ताका खूब मार दिल्लो. तरीय ताणें आपल्या वांगड्यांचीं नांवां भायर फोडलीं नात. उपरांत अडेच वर्सां ताका आग्वाद बंदखणींत दवरिल्लो. ऑगस्ट १९५८ वर्सा तांची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. फुडें तो गोंयाभायर गेलो. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कांबळे, नरमभाय रतनजी: (जल्म: १९ जानेवारी १९२५, वारकुंड-दमण).

गोंयचो सुटके झुजारी. आझाद गोमंतक दल संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९५४ वर्सा सावन तो भूंयगत राजकी वावरांनी वांटो घेतालो. १९५६ वर्सा पोलिसांनी ताका अटक केली आनी गोंयां धाडले. पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत चवकशी केल्या उपरांत ताका तीन वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ऑगस्ट १९५७ वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. बंदखणींतल्यान येतकच ताणें परत सुटकेखातीर भूंयगत वावर सुरू केलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## कांसव:

सरीसृप (reptiles)वर्गांतल्या कूर्म गणांतलो आनी टेस्ट्यूडिनिडी कुळांतलो एक प्राणी. कांसव उश्णकटिबंधांत तशेंच समशीतोश्ण वाठारांतूय दिसून येतात. कांय कांसव भूंयचर आसले तरी चडशे जलचर आसून, दर्यांत, साव्या उदकांत, तळयांत, न्हंयांत आनी रेव्याच्या वाठारांत दिसून येतात.

तकली, मान, धड आनी शेपडी अशे कांसवाचे कुडीचे चार भाग जातात. पांय चार आसून ते धडाक जोडिल्ले आसतात. भूंयचर कांसवाचीं बोटां वेगवेगळीं आनी जुळिल्लीं आसतात आनी तांकां नाखटां आसतात. साव्या उदकांतल्या कांसवाच्या पायांचीं बोटां पातळ कातीन जोडिल्लीं आसतात. दर्यांतल्या कांसवाचे पांय वोल्यासारके आसतात. संरक्षक अशा जाड कट्ट्यान धड धांपिल्लें आसता. मानेचे ८ मणी, फाटीचे १० मणी आनी शेपडेचे १८-३३ मणी हांच्यापसून कणो तयार जाल्लो आसता.

कांसव आपली तकली, मान, पांय आनी शेपडी थोड्याभोव प्रमाणांत वा पुराय कट्ट्या भितर घेवपाक शकता. ताची नदर तीक्ष्ण आसता. दोळ्यांत तिसरी पापणी- निमेशक पटल (nictitating membrane) आसता. नराचे दोळे तांबडे आनी मादीचे पुडी कोराचे आसतात. स्पर्श, रस आनी वास हांच्या इंद्रियांचो बरोच विकास जाल्लो आसता. पांयांक चड करून पांच बोटां आसतात. पूण कांय जातींनी तीं चार आसतात.

ताच्या तोंडांत दांत आसनात पूण जबड्याच्यो कडो धारदार आसतात. कात खरखरीत आसून फकत पांयार आनी शेपडेचेर खवळां आसतात.



**कांसव**

उदकांतलो कांसव पाणवनस्पती, शिंपयो, नुस्तीं, किडे खाता. भूचर कांसव शाकाहारी आसता, अशें म्हण्टात. पूण तो लेगीत बारीकसारीक प्राणी आनी जीवजंतू खाता. तोंडांतल्या धारदार जबड्याचो उपेग अन्नाचे बारीक कुडके करपाखातीर जाता. कांसवाची श्वसनपध्दत सस्तन प्राण्यांच्या श्वसनपध्दतीसारकीच आसता. पाणकांसवाची श्वासनपध्दत मात मात्शी वेगळी आसता. दर्यांतलो कांसव सोडल्यार हेर सगळे कांसव शिंयाळ्यांत शीतनिष्क्रियतेंत (hibernation) आनी उबाळांच्या दिसांनी ग्रीष्मनिष्क्रियतेंत वतात. जे सुवातींत थंडेची वा उष्णतेची बाधा जावंचीना अशा खोल जाग्यांनी ते लिपून बसतात.

सगळ्यांत ल्हान कांसव ११ सेंमी. लांब जाल्यार व्हडलो कांसव (दर्यांतलो काळो कांसव) २ मी. लांबायेचो आसता. कांसवाचें वजन ८० किग्रॅ. मेरेन आसूं येता. कांसव सरासरी १०० वर्सांमेरेन जियेता. संवसारांत कांसवाच्यो विंगड विंगड अश्यो वट्ट ३४० जाती सांपडटात.

कांसवाच्या प्रजोत्पादनाचो काळ अमुकूच असो आसना. भूंयचर कांसवांचो समागम जमनीचेर, जाल्यार पाणकांसवाचो उदकांत जाता. नर मादीपरेस मात्सो ल्हान आसता. ताचें अधर वर्ध्म (ventral hernia) अवतल (concave) आशिल्ल्यान समागमाच्या वेळा तें मादीच्या फाटीचेर चप्प बसता. तांतयांचें निशेचन (fertilization) आंतरिक आसता. मादी आपल्या फाटल्या पायांनी जमनींत वा रेंवेंत एक फोणकूल खणून तातूंत तांतयां घालता आनी तीं माती, रेंव वा झाडपालो घालून धांपून दवरता. तांतयां वांटकुळीं वा लंबवर्तुळाकार आसून तांचें कवच निबर आसून कॅल्शियममय आसता. भूंयचर कांसव थोडीं तांतयां घालता, पूण दर्यांतलें कांसव ५०० मेरेन घालतात. सादारणपणान २-३ म्हयन्यांनी तांतयांतल्यान पिलां भायर पडटात.

पूर्विल्ल्या काळासावन मनीस कांसवाचें मांस आनी तांतयां खायत आयला. आयजूय ती प्रथा चालू आसा. कांय कांसवाच्या कट्ट्यापसून वक्लाच्यो फ्रेमी आनी कांय सौंदर्यप्रसाधनां करतात. कांसवाचे चरबेपसून यंत्रांक घालपाचें बरे प्रतीचें वंगण (lubricant) तयार करतात. पाळीव जनावर म्हूण कांसव मत्स्यालयांत आनी पोरसांत दवरून पोसतात. शास्त्रज्ञ लोक संशोधनाच्या प्रयोगांखातीर कांसवाचो उपेग करतात.

कॅल्शियम, जीवनसत्त्वां आनी जंबुपार किरणां (Ultraviolet rays) हांच्या अभावाक लागून कांसवाचें कट्टें दुबळें आनी मोव जावंक शकता. कांय वेळा जीवनसत्त्वाच्या अभावाखातीर आनी खदोळ उदकाक लागून कांसवाचे दोळे दसतात आनी सुजतात. पूण ३% बॉरीक अम्ल उदकांत घालून धुल्यार ते बरे जातात. कांसव हो कांय रोगजंतूंचो रोगवाहक आशिल्ल्यान कांसवाक स्पर्श करतना जतनाय घेवंची पडटा.

टेस्ट्यूडिनिडी हें कांसवाचें कूळ खूब व्हडलें आसून तातूंत २६ वंशांचो आस्पाव जाता. तातूंतले कांय भूंयचर जाल्यार कांय जलचर आसात. भारतांत मेळपी भूंयचर कांसवापैकीं तारांकित कांसव खूब सुंदर दिसता. हाचें शास्त्रीय नांव 'टेस्ट्यूडो एलेगान्स' अशें आसून लांबाय सुमार ३० सेंमी. इतली आसता. टेस्ट्यूडो वंशाचीं कांय भूंयचर कांसवां खूब व्हडलीं आसतात. पॅसिफिक महासागरांतल्या गालॅपागस जुंव्यांत व्हडल्या कांसवांच्यो स जाती आनी हिंदी महासागरांतल्या आल्डाब्रा जुंव्यांत चार जाती मेळटाल्यो; पूण मनशान तांचो संहार केल्ल्यान त्यो नश्ट जाल्यात. ह्या कांसवांची लांबाय सुमार १५० सेंमी. आसून वजन सुमार २७० किग्रॅ. आसता. गालॅपागस कांसवाचें शास्त्रीय नांव 'टेस्ट्यूडो एलेफंटोपस' अशें आसा. वेगवेगळे तरेच्यो निवलकाणयो आनी हेर वनस्पती हें हांचें भक्ष्य. एका काळांत उश्ण आनी उपोश्ण दर्यांत पाचवे कांसव मेळटाले. तांचें शास्त्रीय नांव 'कीलोनिया मिडास'. ह्या कांसवांचो आनी तांच्या तांतयांचो खूब मोट्या प्रमाणांत खावपाखातीर उपेग जाल्ल्यान कांय वाठारांतल्यान तीं पुराय ना जाल्यांत.

भारतांत दिसून येवपी कांसवाचे हेर वंश अशेः कचुगा, बाटागुर, हार्डेला, मोरेनिया, निकोरिया, चैबासिया, ट्रायोनिक्स, चित्रा, एमिडा. 'कचुगा टेक्टम' ही जात सिंधू आनी गंगा न्हंयांत आनी ताच्या भोंवतणच्या वाठारांत मेळटा. 'जिओएमिडा त्रिजुगा' ही जात भारताप्रमाण श्रीलंकेंतूय सांपडटा. ट्रायोनिक्स वंशाचे दोन-तीन जातींचे कांसव भारतांत सांपडटात. हातूंतली 'ट्रायोनिक्स गँजेटिकस' ही जात उत्तर भारतांतल्या गंगा आनी हेर न्हंयांनी जाल्यार 'बंगोमा कांसव' (ट्रायोनिक्स पंक्टेटस) ही जात दक्षिण भारतांत मेळटा.

- डॉ. एच्. के. मालवीय

**सांस्कृतिक संदर्भः** कूर्मावतार (कांसवाच्या रुपांतलो अवतार) हो विष्णूच्या धा अवतारांपैकी दुसरो अवतार. दुश्ट दैत्यांचो संहार आनी भूंयभारहरण हें चड करून अवताराफाटलें प्रयोजन आसता. पूण कूर्मावतारांत तशें कांयच घडलेंना. पुराणांत ह्या अवताराचो संबंद देवदैत्यांनी केल्ल्या समुद्रमंथनाचे कथेकडेन जोडिल्लो आसा. वैदिक साहित्यांत मात कूर्म आनी समुद्रमंथन हांचो कांयच संबंद दिसना. कूर्मावताराविशींची आनीकूय माहिती ब्राह्मणग्रंथांत, तैत्तिरीय आरण्यकांत, शतपथ ब्राह्मणांत, भागवत पुराणांत, जयदेवाच्या एका अष्टपदींत तशेंच वाल्मिकी रामायणांत सांपडटा.

कूर्मावताराचो कसलोच संप्रदाय मात दिसून येना. पूर्ण कूर्मपूजा संताळ, मुंड ह्या कांय आदिवासी लोकांमदीं प्रचलित आसा. परवतीं कबीर संप्रदायांतूयच कांसवाची पूजा करतात.

कांसवाचो उपेग धर्मीक पुजाविधींत पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयला. अश्मयुगांतल्या कांसवाच्यो प्रतिकृती संवसारांतल्या कितल्याशाच वाठारांनी सांपडल्यात. अपोलो हाणें दर्यांतल्या कांसवाच्या कट्ट्याक कांय तारो ताणून बांदून 'लायर' (lyre) हें वीणेसारकें एक संगीत वाद्य तयार केल्लें अशी एक ग्रीक दंतकथा आसा. धर्तरी चार हतयांच्या फाटीर थिरावल्ली आसून हे चार हत्ती एका व्हडल्या कांसवाचेर उबे रावल्यात असो एक धर्मीक समज भारतांत प्रचलित आसा. थायलंड देशांत कांसवाचीं देवळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**कांसारः** तांब्या पितुळचीं आयदनां, कंवचेचीं कांकणां तयार करपी आनी विकपी जमातीक कांसार म्हण्टात.

कांसाराची उत्पत्ती विश्वकर्म्याचो तिसरो पूत त्वष्टा हाचेपसून जाली अशे पंचाळ समाजांतले कांसार मानतात आनी आपणाक 'त्वष्टा कांसार' समजतात.

पद्म पुराणांतल्या कालिकामाहात्म्यांत कांसारांच्या उत्पत्तीची कथा फुडलेतरेन आसाः

कार्तवीर्य अर्जुनाचो चलो धर्मपाळ आनी चोल राजकुमारी चंद्रगुप्ता (चंद्रिका) हांकां दोन पूत जाले. हे दोगूय पूत कालिका देवतेचे

आशेवयल्यान कांशे, तांबे सारके धातू तयार करपाची कला शिकले तांणी फुडें हे कलेचो प्रसार केलो, म्हूण तांकां कास्यकार वा कांसार ह्या नांवान वळखुपाक लागले.

महाराष्ट्र, विदर्भ आनी मध्य प्रदेशांत कांसाराची व्हड प्रमाणांत वसती आसा. गोंयांतूय कांसार लोक आसात.

कांसार हे स्मार्त अनुयायी आसून कालिकेक भजतात. महाराष्ट्राच्या रत्नागिरी जिल्ह्यांतली कारै गांवची व्याघ्रेश्वरी कालिका कांय गोंयकार कांसारांची कुलदेवता जावन आसा. तेभायर बहिरी चंडिका, एकवीरा कुमारिका, खंडोबा, महालक्ष्मी ह्या देवतांकय खास करून महाराष्ट्रांतले कांसार भजतात. गोंयांतल्या कांसारांची कुलदेवता बांदोडेची आनी कोल्हापूरची महालक्ष्मी जावन आसा.

कांसारांचे संस्कार, धर्मीक चालीरिती, खावप-जेवप, धर्मकृत्यां, ब्राह्मणांवरीच आसतात. उत्तरेंतल्या कांसारांत देवकां आनी दक्षिणेंतल्या कांसारांत गोत्रां आसतात. हेर पांचालांप्रमाण हातूंत सगोत्र लग्नां जायनात. विधवा बायलेचें लग्न जायना. ही जात आंतर्विवाही आसा. मामेभयणीवांगडा लग्न जावपाक हे जातींत मान्यताय आसा. हे जातींत पुरयतवर्ग ना. द्रवीड ब्राह्मणांकडल्यान धर्मकृत्यां करतात.

**गोंयचो संदर्भः** गोंयांत तांब्या पितुळचीं आयदनां करपी जातीक कांसार वा तांबट म्हण्टात. पूण कांकणां करपी कांसारांक बारदेसांत वळार; साश्ट, फोंडें, काणकोणांत कांकणकार तर पेडण्यांत 'कांसार' ह्याच नांवान पाचारतात.

आयदनां घडोवपी कांसारांची वसती गोंयांत सगळ्यांत चड म्हापशांत आसा, तेभायर दिवचल तालुक्यांतलें वन, पिळगांव, कुडणें, सत्तरी तालुक्यांतलें मोर्ले, तशेंच कुंकळ्ळी, बाळ्ळी, वेर्णे हांगाय कांसार घराणीं दिश्टी पडटात. पयलींच्या काळांत कांकणां करपी कांसार व्हड प्रमाणांत आशिल्ल्यान फोंडेच्या केरी गांवांक 'कांकणकेरी' हें नांव पडिल्लें. कांकणां घडोवपी कांसार मोर्ले (सत्तरी) आनी कुंकळ्ळी (साश्ट) गांवांतूय रावतात.

कांसार समाजांत परंपरागत चलून आयिल्ले समजुतीप्रमाण पांचाल ब्राह्मण त्वष्टा कांसार मूळ महाराष्ट्रांतल्यान गोंयांत आयले आनी गोंयच्या दिवचल म्हालाच्या लाटमबार्से, कासारपाल गांवांत १८०० वर्सामेरेन रावले अशें सांगतात.

**भासः** गोंयचो कांसार भौसामदीं वावुरतना, उलयतना वेव्हार करतना कोंकणी भाशेचो वापर करता.

**देवधर्मः** गोंयचे कांसार फोंडें म्हालांतल्या बांदोडें गांवची आनी कोल्हापूरची महालक्ष्मी कुलदेवी म्हूण भजतात. कांसारपालचे कालिका देवतेकडेन गोंयच्या त्वष्टा कांसारांचें पोरन्या काळांत जें एक नातें आसलें, तेविशीं एक दंतकथा आसा, ती अशीः

कांसारपालचें काळंबा म्हळ्यार कालिका दैवत मूळ एका त्वष्टाकांसार घराण्याचें कुलदैवत आसलें. ह्या घराण्यांत तिची भक्तीभावान पूजा-अर्चा जाताली, पूण एका काळार त्वष्टा कांसाराचे निमणे पिळगेक संतती जाली ना. ताका लागून ताणें आपलें दैवत शेजारच्या दैवज्ञ ब्राह्मणाकडेन सोपयलें. ह्या दैवज्ञान हें दैवत आपले पुराय जातीचे होंटयेंत घालें. अशे तरेन त्वष्टा कांसारांकडल्यान कालिकेचो वारसो दैवज्ञ ब्राह्मणांकडेन (शेट) पावलो.

आयज लेगीत कांय कांसार कालिकेचो कौल-प्रसाद घेतात. एक दोन देवकृत्यांतय कांसार लोकांक थंय स्थान आसा. हे खेरीज कांसार जातीचें गोंयांत वेगळें उपास्यदैवत ना.

यांत्रिक पध्दतीन तयार जाल्लीं गोंया भायलीं कांकणां आतां गोंयांत मेळटात. हाका लागून गोंयच्या कांसाराचो कांकणा करपाचो थळावो धंदो ना जायत चल्ला; पूण अजून हिंदू तशेंच किरिस्तांव समाजांत लग्नांत व्हंकलेच्या हातांत चुडो (पाचवीं कांकणां) भरपाचो मान गोंयच्या वळाराक (कांसाराक) दितात. सद्या परंपरागत धंदो सांबाळपी कांसारांचो भार तांबे, पितूळ, काशें सारक्या धातूचीं आयदनां तयार करून विकपापुरतो उल्ला. हालींच्या काळांत ह्या समाजांतल्या जायत्या लोकांनी लेथ, गॅरेज सारके आर्विल्ले पूण धातूंकडेन संबंदीत अशे वेवसाय आपणायिल्ले दिसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**कांसार, कृष्णा व्यंकटेशः** (जल्मः २४ ऑगस्ट १९२४, दिवचल).

गोंयचो सुटके झुजारी. नॅशनल कॉंग्रेस-गोय संघटनेचो वांगडी आसलो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो राश्ट्रवादी साहित्य वांटपाचें काम करतालो. जुलय १९५५ वर्सा ताका पोलिसांनी अटक केली. पोलिसांनी ताका पणजी आनी आग्वाद बंदखणींत दवरिल्लो. ऑगस्ट १९५६ वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. उपरांत ताणें हेर राश्ट्रवाद्यां वांगडा गोंय सुटके झुजाचो वावर केलो. भारत सरकारान १९७२ वर्सा ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**कांसाळें:** एक पूर्विल्लें घनवाद्य. पोरन्या ग्रंथांत व्हड झांज म्हूण ह्या वाद्याचो उल्लेख येता. ह्या वाद्यांत आशिल्ल्या कांशाच्या धातूक लागून तातूंत स्वरनिर्मणी जाता. हेखातीर हाका 'कांसाळें' म्हण्टात.

कांसाळें पितूळ, काशें आनी हेर धातूचे भरसणीन घडयतात. तातूंत पितूळ व्हड प्रमाणांत आसता. बरो आवाज येवपाक भरसण फाव त्या प्रमाणांत करची पडटा. कांसाळें ९ ते १० इंच व्यासाचें आसून, ताचो पत्रो पातळ आसता, पत्र्याचो मदलो भाग फुगिल्ल्यावरी आसता. दोनूय पत्र्याच्या फुगिल्ल्या भागांक बुराक आसता. दोनूय बुराकांतल्यान एक दोरी घालतात. दोरयेक लांकडाचे कुडके बांदिल्ले आसतात. हे कुडके हातांत धरून वाजोवपी हें वाद्य वाजयतात.

कांसाळ्याची बोलभाशा आनी ताचे उच्चार चिनी थाटाचे आसतात-तेखातीर हें वाद्य वाजयता आसतना बारीकसाणेन लक्ष दवरचें पडटा. कांसाळ्याचो हेर घनवाद्यांवरी टण्ण ऽ ऽ वा घण्ण ऽ ऽ असो आवाज जायना. ह्या वाद्याचो 'चैय-कैय' असो आवाज जाता. कांसाळ्याच्या आवाजांत थारावीक स्वर नासता. एकाचेर दुसरें अर्द मारून जातकच वयलें अर्द 'दालें' सकल्या अर्दार तशेंच घांशीत फुडें व्हरतात. तेन्ना जो आवाज जाता तो चिनी उतरांवरी आसता.

वाद, ताल आनी रसनिर्मणी करपाक हें वाद्य हेर वाद्यांक आपलो बरो सांगात दिता पूण स्वता मात कशेंय वाजता. ताची रसनिर्मणी रौद्र स्वरुपाची आसता. गोंयांत पंचवाद्य, चौघुडो, घुंमट अशीं वाद्यां आशिल्ल्या वाद्यमेळांत कांसाळ्याचो आस्पाव आसता.

कांसाळ्याचें स्वतंत्र अशें वादन खंयच जायना. शिगम्याचे परबेंत 'जोत' म्हणून एक कार्यावळ जाता. हातूंत देवाची तोखणाय करपी गितां गायतात. ह्या वेळार फकत कांसाळेंच वाजयतात. गोंयांत चवथीच्या दिसा कांसाळें वाजोवन गणपतीची 'आरती' म्हणपाची चाल आसा. भारताच्या हिमाचल प्रदेशांत भौजन समाजांतले लोक कांसाळ्यावरी एक वाद्य वाजयतात.

अस्तंतेकडल्या वाद्यमेळांत खास करून वाद्यांत कांसाळें आसता पूण तें मोटें आसता. तशेंच ताचो पत्रो पातळ आनी हलको आसता. ताचो व्यास १५ इंच आसता. तेभायर अस्तंतेच्या वाद्यमेळांत एक वा दोन वाजोवपीच कांय वाद्यां वाजयतात. अशा वेळार कांसाळ्याचें एक दालें एके दांडयेक तांगडावन त्या अर्दाचेर बडी मारून आवाज करतात. त्यावेळार टोळऽ ऽ असो आवाज जाता. वयले तरेच्या अर्दाचो वापर हालीं नाटक-सिनेमांनी तशेच हेर कार्यावळींनी केल्लो दिसता.

- मलबाराव सरदेसाय

**काकोडकर, चंद्रकांत कल्याणदासः** (जल्मः २१ मार्च १९२१। काकोडें-केपें; मरणः २३ नोव्हेंबर १९८८, मुंबय).

नामनेचो कादंबरीकार. ताचें मुळावें शिक्षण काकोड्या वाठार त जालें. फुडलें शिक्षण घेवपाखातीर तो मुंबय गेलो. थंयच्या ओरिएंट आनी

समूह शाळांनी शिकप घेवन तो मॅट्रिक जालो. भुरगेपणासावन ताका वाचनाची खूब आवड आशिल्ली. त्या काळांत तो साने गुरुजी, खांडेकर, फडके हांचें साहित्य वाचतालो. ताणें स्वतंत्र कांदबऱ्यो बरोवंक सुरवात केली, तेन्ना तो पिरायेन सतरा वर्सांचो आशिल्लो आनी मॅट्रिकच्या वर्गांत शिकतालो.

तो 'चंद्रकांत' नांवाचो आनी उपरांत 'काकोडकर' नांवाचो वर्सुकी दिवाळी अंक काडटालो. तातूंत ताच्यो चार-पांच कादंबऱ्यो आसताल्यो. 'निसर्गाकडे' (१९४४) आनी 'कुणाच्या स्वातंत्र्यासाठी' ह्यो दोन कादंबऱ्यो ताणें बरयल्यो. ताच्या 'किर्तिमंदीर' हे कादंबरीक गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचें दुसरें इनाम फाव जालें. उपरांत ताच्या 'गर्जा जयजयकार' हे कादंबरीक १९५६ वर्सा गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचें भांगरापदक मेळ्ळें. हे कादंबरीचो रशियन भाशेंतूय अणकार जाला. शरश्चंद्र चतर्जीच्या कादंबऱ्यांच्या वाचनाक लागून बंगाली जिणेचो प्रभाव ताचे कादंबरीचेर पडिल्लो दिसता. ह्या प्रभावाक लागून ताणें 'सुचिता' ही बंगाली कादंबरी बरयली. ती ताणें शरश्चंद्राच्या नांवान उजवाडाक हाडली आनी तातूंत आपलें नांव अणकारपी म्हूण घाल्लें. फुडें ताणें गोंयचे सुटके चळवळीचेर 'गोमंतका जागा हो' ही कादंबरी बरयली. गोंयांक सुटका मेळचेखातीर सशस्त्र झूज दिवचें पडटलें, असो विचार ताणें गोंय सुटकेच्या पंदरा वीस वर्सां आदीं मांडिल्लो. 'मनीस मुळांत गुन्यांवकार नासता जाल्यार परिस्थितीक लागून तो तसो जाता', अश्या विशयाचेर ताणें 'अग्निदिव्य' ही कांदबरी बरयल्या. हे कादंबरीचेर आदारून 'धाकटी बहीण' हो बोलपट निर्माण जालो. तेचपरी 'मैं तुलसी तेरे आंगनकी' हो चित्रपट ताचे कादंबरीचेर आदारित आशिल्लो.

१९६० वर्सा उपरांत तो प्रेम आनी शृंगार ह्या विशयांचेर कादंबऱ्यो बरोवंक लागलो. १९६३ वर्सा दीनानाथ पै हाच्या 'रंभा' ह्या नेमाळ्यांत ताची 'श्यामा' ही कादंबरी उजवाडाक आयली. ही कादंबरी अश्लील असो आरोप कांय जाणांनी ताचेर केलो. हो वाद सुप्रीम कोर्टा मेरेन पावलो. पूण निमणें काकोडकराकूच जैत मेळ्ळें. ताणें सुमार तीनशें कादंबऱ्यो बरोवन भरपूर जोड आनी नामना मेळयली. गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलनाच्या कुडचड्यां जाल्ल्या एकुणिसाव्या अधिवेशनाचो तो स्वागताध्यक्ष आसलो.

- कों. वि. सं. मं.

## काकोडकार, चंद्रकांत बापू: (जल्मः १३ एप्रिल १९१८, काकोडें-केपें).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें पत्रकारितेची पदविका घेतली. भारतीय कम्युनिस्ट पक्षाचो तो वांगडी आसलो. मुंबय आसतना ताणें भारताचे सुटके चळवळींत तळमळीन वावर केलो. १९४२ वर्सा ताणें 'भारत छोडो' (quit India) चळवळींत वांटो घेतिल्लो, ह्या आरोपाखाल ब्रिटीश पोलिसांनी ताका धरलो. उपरांत नासिक बंदखणींत ताका दोन म्हयने दवरलो. 'गोअन युथ लिग' संघटनेचो तो संस्थापक वांगडी आनी चिटणीस आशिल्लो.

१० जुलय १९४६ दिसा चांदरा, लुईश द मिनेझिश ब्रांगांझ हाचे पुण्यतिथी दिसा तो सभेक उद्देशून उलोवप करतालो. अशा वेळार ज्योकीं डायस आनी क्रिश्तोव्हांव फुर्तादु हांचे वांगडा ताका धरून बंदखणींत दवरलो आनी उपरंत पयसुल्ल्या वाठारांत व्हरून सोडलो. फुडें तो 'गोअन्स पीपल्स पार्टी' हे संघटनेचो वांगडी जालो. मुंबय गोंयच्या सुटके झुजाऱ्यांच्यो ज्यो चळवळी जाताल्यो, तातूंत तो वांटो घेतालो. जून १९५८ वर्सा संयुक्त 'गोंयकार पक्ष' (Goan People's Party) संघटनेचे नवे कार्यकारी समितीचो तो वांगडी आसलो. ४ ऑक्टोबर १९५९ दिसा मुंबयत गोंयचें राजकी अधिवेशन भरिल्लें. ह्या अधिवेशनांत २५ वांगड्यांची जी गोंयकारांची संघटना जाल्ली, तातूंतलो तो एक वांगडी आसलो. गोंयांत Blitz ह्या नेमाळ्याचो तो प्रतिनिधी आशिल्लो. 'इंडिया प्रेस सर्विस' हाचो तो वांगडी संपादक आशिल्लो. देशांतल्या जायत्या नेमाळ्यांनी आनी दिसाळ्यांनी ताणें लेख बरयल्यात. महाराष्ट्र सरकारान ताका मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १९७३ वर्सा मुंबय प्रदेश काँग्रेस कमिटीन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८५ दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराखातीर ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## काकोडकार, दिवाकर बाळकृष्ण: (जल्मः २९ सप्टेंबर १९१८, काकोडें-केपें).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मॅट्रिक मेरेन शिक्षण घेतलें. १९३५ वर्सा तो भारतीय कम्युनिस्ट पक्षाचो वांगडी जालो. मुंबय आसतना ताणें भारताच्या सुटके झुजांत वांटो घेतिल्लो. मुंबयच्या विद्यार्थी संघटनेचो तो कार्यशील वांगडी आशिल्लो. मुंबयच्या 'गोंय युथ लिग' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. तशेंच 'गोंयकारांचो पक्ष' (Goans Peoples' Party) संघटनेचो तो एक संस्थापक वांगडी आसलो. कुडचडें वाठारांत विद्यालयांत शिक्षक आसताना, १६ सप्टेंबर १९४९ दिसा पोलिसांनी दिनकर कृष्णा काकोडकार हाच्या वांगडा ताका राष्ट्रवादी कार्यांत भाग घेता, ह्या आरोपाखाल धरलो. चवकशी करी नासताना वीस म्हयने ताका आग्वाद बंदखणींत एकांतवासांत दवरलो. उपरांत एप्रिल १९५१ त, ताका आफ्रिकेचे अस्तंत दर्यादिगेवेल्या, 'काबो व्हेर्दे' हांगा अटलांटिक म्हासागरांतल्या 'देंवचाराचो जुंवो' (Devil's Island) हांगा बंदखणींत दवरलो. थंय ताणें सात वर्सां बंदखण भोगली. १९५८ वर्सा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. थंय सावन २० एप्रिल १९५८ दिसा तो लंडन मार्गानि भारतांत (मुंबय) आयलो. तेन्ना 'गोंयकारांचो पक्ष' हे संघटनेचे दोन पंगड जाल्ले. जून १९५८ वर्सा ह्या दोनूय पंगडांक ताणें एकठांय हाडले. तेन्ना ह्या नव्या पक्षाचो चिटणीस म्हूण ताका वेंचून काडलो.

ताणें 'आझाद गोमंतक दल', 'नॅशनल काँग्रेस, गोंय' आनी 'गोंयकारांचो पक्ष' ह्या तीनूय संघटनांक एकठांय हाडपाचो अपेशी यत्न केल्लो. फुडें मुंबय २ ते ४ ऑक्टोबर १९५९ त भरिल्ल्या गोंयच्या राजकी अधिवेशनांत निमंत्रक समितीचो चिटणीस म्हूण ताणें मुखेल वांटो घेतिल्लो. गोंय सुटके उपरांत भारतीय कम्युनिस्ट पक्षाचे गोंय राज्य संघटनेचो तो चिटणीस आशिल्लो. हे संघटनेन घडोवन हाडिल्ल्या चळवळींनी, कार्यांनी आनी कामगार चळवळींत ताणें तळमळीन वावर केला. १९६८ वर्सा कुडचडें वाठारांतल्या गांवकाऱ्यांनी ताचो सत्कार केलो. १८ जून १९८१ दिसा गोंय सरकारान ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## काकोडकार, पुरुषोत्तम (भाऊ) केशव: (जल्मः १८ मे १९१३, काकोडें-गोंय).

गोंयचो सुटके झुजारी आनी एक राजकी फुडारी. ताच्या बापायचें न्हांव केशव आनी आवयचें नांव सगुणाबाय. तो काकोड्या रावतालो. ताचो बापूय वेवसायान भाटकार आशिल्लो. १९४६ त गोंयचे सुटके चळवळी आदीं तो महात्मा गांधीच्या सेवाग्राम आश्रमांत आशिल्लो. थंयच ताचें कुमारी कमला ह्या सुटके झुजारणीकडेन लग्न जालें. तांकां एक धूव आनी एक पूत आसात.

मराठी मुळावें शिक्षण घेतल्या उपरांत ताणें फोंडेंच्या आल्मैद कॉलेजांतल्यान लिसेव हो पोर्तुगेज कोर्स पुराय केलो आनी मागीर बनारसाक वचून थंयच्या क्विन्स कॉलेज ह्या सरकारी संस्कृत कॉलेजींत संस्कृत भाशेचो अभ्यास करून 'शास्त्री' ही पदवी मेळयली.

तरणेपणासावन सुटके चळवळींत वांटो घेतिल्ल्यान ताणें रुढ अर्थान वेवसाय असो केलोना. सुटके चळवळ आनी भौशीक हिताच्या राजकारणाखातीर तो वावर करूंक लागलो. सद्या तो राज्यसभेचो नियुक्त वांगडी आसा.

१९४०-४१ ह्या काळांत ताणें सेवाग्राम (वर्धा) हांगाच्या महात्मा

गांधीच्या आश्रमांत सुमार अठरा म्हयने रावन गांधी तत्त्वांचो अभ्यास आनी आचरण केलें. १९४१-४२ ह्या काळांत ताणें महात्मा गांधीन स्थापन केल्या 'ऑल इंडिया स्पिनर्स असोसिएशन'च्या खादी प्रचार चळवळीचो १८ म्हयने वावर करून खादीचो संदेश गांवागांवानी पावयलो. १९४२ वर्सा जाल्ल्या 'भारत छोडो' चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्ल्यान पोलिसांनी ताका अटक करून बेळगांव सेंट्रल जेलींत घालो. बंदखणीची ही ख्यास्त भोगून जातकच १९४३-४९ ह्या काळांत तो भूंयगत जावन भारताचे सुटके चळवळीचो वावर करूंक लागलो.



पुरुषोत्तम काकोडकार

गोंयांत येवन ताणें डॉ. विनायक मये-कार, एव्हाग्रियु जॉर्ज, वसंत कारे, निकुबाब कारापुर-कार, प्रमिलाताई जांबावलीकार, मुक्ता कारापुरकार हांच्या आदारान 'गोवा सेवा संघ' ही संघटना स्थापन केली. तेन्नाच सुटके झुजारी डॉ. राममनोहर लोहिया गोंयांत आयलो आनी ताणें १८ जून १९४६ दिसा गोंयांत सुटके-खातीर आंदोलन सुरू केलें. हातूंत पुरुषोत्तम काकोडकारान सक्रीय वांटो घेतिल्लो. डॉ. लोहियाक अटक जातकच ताणें चळवळीक फुडारपण दिवन हेर सांगात्यांवांगडा चळवळ मुखार व्हेली.

९ ऑगस्ट १९४६ दिसा पोर्तुगेज सरकारान ताका अटक केली. २७ सप्टेंबर १९४६ दिसा लश्करी कोर्टांत ताका णव वर्सांची हद्दपार आनी बंदखणीची ख्यास्त जाली. पोर्तुगालांतल्या पेनिश किल्ल्यांत बंदखणीची आनी लिस्बनांत नदरकैदेची सुमार धा वर्सां ख्यास्त भोगल्या उपरांत, तशेंच पोर्तुगालांत हद्दपारीची ख्यास्त भोगतकच १६ मे १९५६ दिसा तो भारतांत आयलो आनी ताणें परत लोकांक संघटित केले. तेन्ना ताका ४५ दिसांची बंदखणीची ख्यास्त भोगची पडली (१९५८). बंदखणींतल्यान सुटका जातकच गोंयचे सुटकेखातीर ताणें आनी ताच्या सांगात्यांनी वेगळो मार्ग आपणायलो. जवाहरलाल नेहरूच्या पालवान ताणें पोर्तुगेज गोव्हेर्नादोराकडेन गोंयकारांक लोकशाय हक्क मेळचे म्हूण उलोवणी सुरू केली. तशेंच सालाझार सरकाराकडेन उलोवणी करूंक तो पोर्तुगालाक गेलो. १९६१ वर्सा ताका चार म्हयने परत बंदखणीची ख्यास्त भोगची पडली.

गोंयच्या पयल्या नायब राज्यपालाचे सल्लागार समितीचो तो वांगडी आशिल्लो. ताणें गोंय, दमण आनी दीव प्रदेश काँग्रेस अस्थायी समितीचो निमंत्रक म्हूण वावर केला. गोंय, दमण आनी दीव प्रदेश काँग्रेसचो तो पयलो अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो.

ओपिनियन पोलावेळार ताणें गोंय खंयच्याच राज्यांत विलीन जावचें न्हय तशेंच गोंय भारताचो वेगळो राजकी घटक म्हूण उरचो, हेखातीर प्रदेश काँग्रेसचो अध्यक्ष ह्या नात्यान वावर केला. १९७१ वर्साच्या सार्वत्रिक वेंचणुकांनी उत्तर गोंय मतदारसंघांतल्यान तो लोकसभेचेर वेंचून आयिल्लो. १९७८-८० ह्या काळांत तो प्रदेश काँग्रेस (आय) चो अध्यक्ष आशिल्लो. ताणें ऑल इंडिया काँग्रेस (आय) कमिटीचो वांगडी म्हूण वावर केला.

'ऑल इंडिया फ्रिडम फायटर्स ऑर्गनायझेशन' हे संस्थेचो तो सचिव आशिल्लो. तशेंच 'गोवा फ्रिडम फायटर्स असोसिएशन' हे संस्थेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९८८ वर्सा जाल्ल्या युनो आमसभा अधिवेशनांतल्या भारतीय शिश्ट मंडळाचो तो एक वांगडी आसलो. १९८५ सावन तो राज्यसभेचो नियुक्त वांगडी आसा.

गोवा कोंकणी अकादमीचो तो पयलो अध्यक्ष. कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळोवन दिवपाखातीर ताणें मोलादीक वावर केला. वेगवेगवळ्या नेमाळ्यांनी लेख आनी निबंद बरोवन ताणें वैचारीक लिखाण केलां.

कोंकणी वांगडाच ताका इंग्लीश, पोर्तुगेज, संस्कृत, मराठी आनी हिंदी ह्या भासांचें ज्ञान आसा.

ताणें पुराय भारताची भोंवडी केल्या. तशेंच जर्मनी, इंग्लंड, फ्रांस, इटली, स्पेन, थायलंड, अमेरिका, ऑस्ट्रेलिया, नेपाळ ह्या देशांचीय ताणें भोंवडी केल्या. मुक्ती उपरांत ताणें भारताचो संसद सदस्य ह्या नात्यान पोर्तुगालाक भेट दिल्या.

- प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार

## काकोडकार, मीना सुरेशः (जल्मः २१ सप्टेंबर १९४४, पाळोळें-काणकोण).

नामनेची कोंकणी कथाकार. तिणें मुंबयच्या विल्सन कॉलेजांतल्यान बी. एस्सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. १९६७-६८ सावन तिचें साहित्य उजवाडाक येवंक लागलें.

'दोंगर चंवल्ला' (१९७२) हो तिचो पयलो कथांझेलो. हो कथांझेलो गोवा बोर्डाचे बारावेखातीर आनी सद्या गोंय विद्यापीठाच्या पयलें वर्स बी. ए. खातीर क्रमीक पुस्तक म्हूण अभ्यासक्रमांत आसा. तिच्या 'सपन फुलां' (१९९०) ह्या कथांझेल्याक १९९१ वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जाला. हाचेआदीं तिका कोंकणी भाशा मंडळ (१९७७), कला अकादमी, नरसिंह दामोदर नायक (१९७९) तशेंच कुळागर प्रकाशन (१९९०) आदी पुरस्कार फाव जाल्यात. तिच्या कथांचे अणकार इंग्लीश, कानडी आनी मलयाळम भासांनी जाल्यात.

तिका चित्रकलेची आवड आसून तिणें मुंबय दोन वर्सांचें चित्रकलेचें खास शिक्षण घेतलां. तिका नाट्याभिनयाचीय आवड आसा. १९८० आनी १९८१ वर्सा तिका कला अकादमीचे नाट्य सर्तींत उत्कृश्ट स्त्री अभिनयाचें पयलें इनाम फाव जालां. सद्या ती सरकारच्या लेखा निदेशालयांत, मडगांव फांट्यांत ॲसिस्टंट ॲकाउंट्स ऑफिसर म्हूण काम करता.

- कों. वि. सं. मं.

## काकोडकार, रामनाथ (रामभाऊ) केशवः (जल्मः १८ जानेवारी १९१७, काकोडें-केपें).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मॅट्रिक मेरेन शिक्षण घेतलें. १९३९ ते १९४० काळ मेरेन ताचो गोंय काँग्रेस कमिटी कडेन संबंद आशिल्लो. ह्या काळांत तो श्यामराव मडकयकार हाचे वांगडा मडगांव शारांत अखिल भारतीय काँग्रेस कमिटीचीं पत्रकां वांटपाचें काम करतालो. ९ ऑगस्ट १९४२ दिसा सुटके झुजारी भाऊ धर्माधिकारी हाचे वांगडा वेंगुर्ले वाठारांत पोलिसांनी ताका अटक केली. एक दीस पोलिस ठाण्यांत दवरून दुसरे दीस ताका सोडलो. कणकवली, कुडाळ, सावंतवाडी आनी वेंगुर्ले तालुक्यांनी लोकांमदीं राश्ट्रवादी प्रचार करपाखातीर ताणें जायतो वावर केला. सप्टेंबर १९४२ वर्सा पोलिसांनी ताका परतो वेंगुर्ले तालुक्यांत धरलो. पांच दीस बंदखणींत दवरून उपरांत मालवण न्यायालयांत ताची चवकशी जाली. थंय ताका स म्हयने खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच पन्नास रुपये दंड भरूंक लायलो वा दंड भरपाये बदला आनी दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिली. ४५ दीस बंदखणीची ख्यास्त भोगतकच ताची सुटका जाली.

१९४४ वर्साचे सुर्वेक तो मडगांव आनी काकोड्या वाठारांत आपलो भाव पुरुषोत्तम (भाऊ) काकोडकार हाच्या मार्गदर्शनाखाल चरख्याचेर सूत कातपाचे वर्ग घेतालो. तेचपरी 'वर्धा' हांगाच्या आश्रमांत जे तरेन

प्रार्थना घेताले ते भशेन ताणें मडगांव शारांतल्या कोंब ह्या वाठारांत प्रार्थना घेवंक सुरवात केली. १९४७ वर्सा ताणें गोपीनाथ लोटलीकार, नरेंद्र हेगडो देसाय आनी प्रमिलाबाय कांता जांबावलीकार ह्या सुटके झुजाऱ्यांच्या आदारान मडगांव आनी केपें वाठारांत पोर्तुगेजांआड बॉबस्फोट घडोवन हाडले. १९५४ ते १९५६ ह्या काळांत ताणें पीटर आल्वारीस हाच्या फुडारपणाखाल सत्तरी तालुक्यांत नॅशनल कॉंग्रेस गोंय संघटनेखातीर वावर केला. १९५४ वर्सा तो हे संघटनेच्या सत्याग्रही काउन्सिलाचो वांगडी आसलो. १९५४ वर्सा ताचे गैरहजेरींत ताची न्यायालयीन चवकशी जाली. ताका स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली आनी दंड भरूंक लायलो.

१९५७ ते १९६१ ह्या काळांत माजाळी-आंगडी ह्या गोंयचे शीमेवेल्या वाठारांत ताणें समाजीक आनी विधेयक वावर केला. १९६७ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो भोवमान केलो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**काजळ:** (अंजन) दोळ्यांचें एक सौंदर्यप्रसाधन. काजळ दोळ्यांत घालपाची पध्दत पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयल्या. पूर्विल्ल्या वेदिकास्तंभांचेर कितल्योश्योच बायलांच्यो मूर्ती शलाका घेवन दोळ्यांत अंजन घालता आसतना दिसतात. सिंधुसंस्कृतायेच्या अवशेशांत सुरमेदाणी आनी सुरमा दोळ्यांत घालपाच्यो शलाका सांपडल्यात.

काजळाक लागून दोळे मोटे, तेजीश्ट आनी ओडलायणे दिसतात. काजळासारकेंच 'सुरमा'नांवाचें एक अंजन चड करून मुसलमान दादले-बायलो वापरतात. हाचेविशीं एक काणी आसा, ती अशी- सिनाइ दोंगरार सुयेच्या नेड्यांतल्यान अल्लान मुसाक दर्शन दिलें. मुसा सोमतोच घुंवळ येवन पडलो. तो दोंगर लेगीत लासूंक लागलो. तेन्ना अल्लान म्हळें, 'आयज सावन तुमी ह्या दोंगराची माती बारीक दळात आनी तुमच्या दोळ्यांत घालात.'

चड करून बायलो काजळ वापरतात. दोळ्यांचे रोग जावंचे न्हय म्हूण ल्हान भुरग्यांच्या दोळ्यांनी काजळ घालतात. बायलांच्या सोळा शृंगारांत काजळाचो आस्पाव आसा. सवायशिणी बायलो सणापरबेक काजळ घालतात. अस्तुरेच्या दोळ्यांतल्या काजळाविशीं एक सुभाषित आसा, तें अशें:

> अधरे नववीटिकानुरागो
> नयने कज्जलमुज्ज्वलं दुकूलम् ।
> इदमाभरणं नितम्बिनीना-
> मितरद्भूषणमङ्गदूषणाय ।।

अर्थ: ओंठांचेर विड्याची रक्तसाण, दोळ्यांत काजळ आनी तलम वस्त्र हेंच खरें अस्तुरेचें अलंकारमंडन. हेर भूशणां हीं तिच्या आंगावेलीं दुशणांच.

काजळाक भुतां भियेतात असो एक समज आसा. देखून मुजीक मुंज्याक आनी लग्नापरबेक न्हवऱ्या-व्हंकलेक काजळाचो तिबो लायतात. काजळाक लागून वायटाचें निवारण जाता, असो एक समज आसा. ल्हान भुरग्याक दिश्ट लागची न्हय म्हूण काजळाचो तिबो लायतात. विधवेन वा जिचो घोव दुसऱ्या गांवाक गेला अशे बायलेन काजळ घालचें न्हय, असो संकेत आसा.

काजळ तयार करपाची पध्दत सुश्रुतसंहितेंत आसा. खास करून एंडेलाचे वा तुपाचे वातीचेर तांब्याचें पसरट आयदन पालथें धरून काजळी धरतात. ती लोणयांत वा खोबरेल तेलांत वा एंडेलांत कालयतात आनी काजळ तयार करतात. सद्या बाजारांत वेगवेगळ्या नांवाच्यो तयार केल्ल्या काजळाच्यो डबयो मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**काजी:** इस्लाम धर्मांतल्या न्यायदानाचें काम करपी न्यायाधीश. इस्लामी धर्मशास्त्राप्रमाण न्याय दिवप जावचें, हाका लागून धर्माज्ञेप्रमाण राजा वा खलिफा काजीची नेमणूक करताले. वयांत आयिल्लो, स्वतंत्र, शाणो, निश्कलंक चारित्र्याचो; नदर आनी कान बरे आशिल्लो, तशेंच कुराण, हदीस, विंगडविंगड न्यायशास्त्रां, अरबी व्याकरण आनी कुराणांतलीं भाश्यां हांचें बरें गिन्यान आशिल्लो मुसलमान, शाफी कायद्याप्रमाण काजी जावपाक पात्र अशें समजतात. हेर वेवसाय करीनासतना ताका मशिदीखेरीज खंयच्याय भौशीक सुवातींनी उक्त्यार न्यायदानाचें काम करचें पडटालें. पिडेस्तांची तशेंच तीर्थयात्रा करून परत आयिल्ल्या प्रवाशांची भेट घेवप; दफनावेळार धर्मीक विधी करप; लग्न, घटस्फोट हांची नोंद करून फाव ते धर्मीक विधी करप; न्यायनिर्णय करप, प्रार्थनामंदिरां आनी शाळा (मदरसा) हांच्या निधींची वेवस्था पळोवप; रस्ते आनी भौशीक वास्तू हांची देखभाल; मृत्युपत्रांची अंमलबजावणी तेचप्रमाण धर्मांतर, चोरी, अत्याचार, हत्या आदी गुन्यावांखातीर शरीरकश्ट, मृत्युदंड वा धनदंडाची ख्यास्त दिवप हीं ताची नेमून दिल्लीं कर्तव्यां आशिल्लीं. युरोपीय शासनपध्दती आपणायिल्ल्या देशांनी मात सद्या काजीकडेन फकत धर्मीक अधिकार आनी कर्तव्यांच उरल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**काजुलो:** एकसारको वा मदींमदीं उजवाड दिवपी एक कीटक. ताच्यो सुमार २,००० जाती आसून तांचो प्रसार उश्ण आनी समउश्ण कटिबंधांत आसा. कोलिऑप्टेरा गणाच्या लॅपिरिडी आनी फेंगोडिडी कुळांतले काजुले संख्येन खूब, म्हत्वाचे तशेंच सगळ्यांक परिचित आसात. तेभायर कॅरॅबिडी, सेरॅबिडी, इलेटॅरिडी, पौसिडी आनी स्टॅफिलिनिडी कुळांतले काजुलेय सांपडटात. चडशे काजुले फकत अळी आनी प्रौढावस्थेंत स्वयंप्रकाशी आसतात.

काजुले सादारपणान दोन सेंमी. लांब, मोव शरीराचे आसून मंद काळसार, हळडुवे, तांबसार रंगाचे आसतात. तांचें एक म्हत्वाचें खाशेलपण म्हळ्यार तांच्यो मादयो अळीसारक्यो आसतात आनी त्यो हालचाल कमी करतात. नरांभितर उजवाड दिवपी अवयव पोटाच्या सव्या आनी सातव्या खंडांत आनी मादींभितर ताच्या फाटल्या खंडांत आसतात. नर बरेतरेन उडूंक शकतात आनी ते भरपूर उजवाड दितात. तांकां पांखां आसतात आनी दोळेय बरे विकसित आसतात. दिसाचे ते लिपून बसतात आनी रात जातकच भायर पडटात.

प्रौढावस्थेंत काजुल्यांक खूब थोडें अन्न लागता. तांच्यो अळयो मांसाहारी आसतात.

काजुल्यांचो उजवाड चडसो धवो, हळडुवो, पाचवो, निळो वा तांबसार आसता. काजुल्याच्या उजवाडाचो उपेग प्रौढावस्थेंत चड करून नर आनी मादीक एकठांय हाडपाखातीर जाता आसूंये.

- कों. वि. सं. मं.

**काजू:** (मराठी- काजू; हिंदी, गुजराती- काजू; कन्नड- गेरुबी, गोडांबे, काजू; संस्कृत- काजुतक; इंग्लीश- कॅश्यूनट ट्री; लॅटीन- ॲनाकार्डियम ऑक्सिडेंटेल; कूळ- ॲनाकार्डिएसी).

वर्सूयभर पाचवेंचार उरपी हें झाड १२ मी. मेरेन ऊंच वाडटा. पानां १०-२० सेंमी. लांब तर ५-१० सेंमी. रुंद आसतात. काजूचीं फुलां हळडुव्या रंगांचीं आसून फुलांक भितरल्यान गुलाबी पट्टे आसतात. हांकां चंवरां अशें म्हण्टात. फुलां दोन तरेचीं आसतातः नर फुलां आनी नर-मादी फुलां **(hermaphrodite)**. दरेका झाडाक नर फुलांचें प्रमाण नर-मादी फुलांपरस सदांच चड आसता. काजूच्या फळाक 'मुट्टो' अशें म्हण्टात. हीं फळां चड करून हळडुव्या, गुलाबी, तांबड्या-धव्या रंगाचीं आसतात. फळांचो रंग, आकार आनी वजन हें वेगवेगळ्या जातींनी वेगवेगळें आसता. दर फळाक भायर एक बी आसता. तरन्या, कंवळ्या फळाक 'तुरमण' (तोट्टो) म्हण्टात आनी ताच्याभायले तरने बियेक 'बीबो' अशें म्हण्टात. फळ पिकतकच काजूची बी गोबरा कोराची जाता. ते बियेक 'फोक' अशें म्हण्टात. बियेचें वजन काजूचे जातीचेर आदारून

आसता. बियेक भायल्यान घट्ट अशें कवच आसता आनी ह्या कवचाभितर गर आसता. ताका 'म्होंवलो' म्हण्टात.

काजूक ब्राझिलांत 'अकाजौ' अशें म्हण्टात. ताचो फ्रेंच भाशेंत 'काशू' असो अपभ्रंश जालो. काजू हें मूळ ब्राझील देशांतलें पीक. दक्षिण-उदेंत ब्राझिलांत ह्या पिकाचो उगम जालो, अशी नोंद मेळटा. पोर्तुगेजांनी सोळाव्या शतमानांत जमनीची झीज थांबोवपाक तशेंच रानांची टक्केवारी वाडोवपाच्या हेतान हें झाड भारतांत हाडलें. १५७८ वर्सा केरळ राज्यांतल्या कोचीन ह्या गांवांत ह्या पिकाची लागवड सगळ्यांत पयली केली, असो उल्लेख आसा. उपरांत हें पीक दक्षिण भारताचे दर्या देगेर ल्हवल्हव पातळ्ळें. काजूचें पीक हें नगदी पीक (cash crop) म्हूण वळखुपाक विसाव्या शतमानासावन सुरवात जाली. भारतांखेरीज ब्राझील, टान्झानिया, मोझांबीक ह्या देशांनी काजूची लागवड मोट्या प्रमाणांत जाता. भारतांत केरळ, तमिळनाडू, ओरिसा, कर्नाटक, गोंय, महाराष्ट्र ह्या राज्यांनी काजूची मोट्या प्रमाणांत लागवड जाता. गोंयांत सुमार ४४,५२० हेक्टर क्षेत्र काजूचे लागवडीखाला आसा. ही लागवड सादारण सत्तरी, काणकोण, सांगें, फोंडें, पेडणें तालुक्यांनी चड प्रमाणांत आसा. भारतांत सुमार ५.१ लाख हेक्टर क्षेत्रांत ह्या पिकाची लागवड जाता.

काजूच्यो चड उत्पन्न दिवपी जाती आतां विकसित जाल्या. वेंगुर्ले हांगाच्या काजू संशोधन केंद्राचेर जायत्यो जाती विकसित केल्यात. तातूंतल्यो वेंगुर्ला-१ आनी वेंगुर्ला-४ ह्यो जाती बरे प्रतीच्यो. हे जातीचीं कांय खाशेलपणा अशीं-



काजू

**वेंगुर्ला-१:** १९७४ वर्सा अणसूर-१ हे जातीपसून निवड पध्दतीन ही जात विकसित केल्या. दर झाडापसून सरासरी २० किग्रॅ. बयो मेळटात. हे जातीचे मुट्टे मध्यम आकाराचे आनी हळडुव्या रंगाचे आसतात.

**वेंगुर्ला-४:** १९८२ वर्सा मिदनापूरलाल आनी वेतोरे-५६ ह्या जातींचो संकर करून ही जात विकसित केल्या. ही जात दर झाडाक ३० किग्रॅ. उत्पन्न दिता. मुट्टे मोटे आनी आकारान गुलाबी रंगाचे आसतात.

हे जातीभायर आनीक कांय चड उत्पन्न दिवपी जाती विकसित जाल्यात, त्यो अशोः व्ही. आर आय.-२, बी. एल्. ए. -३४-४, बी. पी.- ४, बी. पी. पी.-६, बी. पी. पी. -२, डब्ल्यू. बी. डी. सी.- व्ही, टी. न. ४०, उलाल- १, उलाल-२, एन्. डी. आर. -२-१, के-२२-१.

काजू हें विशुववृत्तावयल्या उश्ण आनी दमट हवामानांत वाडपी झाड. निबंर आनी उदकाचो ताण सहन करपी हें झाड एकदम थंड आनी एकदम उश्ण हवामान सहन करपाक शकना. ७५० मी. उंचायेचेर मेरेन काजूचीं झाडां बरीं वाडपाक शकतात. ह्या पिकाक रेंवट आनी देंवतेची, बरो निचरो आशिल्ली जमीन मानवता.

काजूची लागवड बियांपसून केल्यार चड उत्पन्न मेळटलें, हाची खात्री दिवंक जायना. पूण कलमा (गार्फा)पसून लागवड केल्यार चड उत्पन्न दिवपी जातीचे सगळे गूण त्या कलमांत येतात. तेखातीर काजूची लागवड चड करून अदीक उत्पन्न दिवपी काजूच्या झाडाचीं कलमां लावन करतात. काजूचीं कलमां कितल्याशाच पध्दतींनी करतात. देखीक- इपीकोटील, सुदारीत इपीकोटील, मृदुकाश्ट, बगल कलम, गुटी. हातूंतलीं मृदुकाश्ट पध्दतीन केल्लीं कलमां मोट्या प्रमाणांत जातात; तेखातीर ही पध्दत वापरतात. बियांपसून काजूची लागवड करपाची जाल्यार पयलीं देड ते दोन म्हयन्याचे रोंपे तयार करून लायतात. रोंपे तयार करपाखातीर काजूच्यो बऱ्यो सुकिल्ल्यो आनी वजनदार अश्यो बियो घेतात.

रोंपो जावं कलम लावपाखातीर ५०×५०×५० सेंमी. आकाराचीं फोणकुलां ८×८ मी. अंतराचेर खणटात. हीं फोणकुलां, अर्द किग्रॅ. सुरी फॉस्फेट, अर्द किग्रॅ. स्टेरामील, एक कायल कंपोस्ट जावं शेणखत, १०० ग्रॅम बी. एच्. सी. १० टक्के हें वखद घालून आनी माती घालून भरून काडटात. ह्या फोणकुलांत मदीं रोंपे वा कलमां लायतात. उदकाची वेवस्था आसा त्या जाग्यार काजूची लागवड खंयच्याय म्हयन्यांत करूं येता. पूण ज्या जाग्यार उदकाची वेवस्था ना, थंय पावस पडनाफुडें जूनांत लागवड करतात. रोंपो वा कलम एक वर्स पिरायेचें जातकच ताका १०० ग्रॅम नत्र, ८० ग्रॅम स्फुरद हें सारें दितात. कांय वर्सांनी ह्या रोंप्यांक पलाश सारेंय दितात.

काजूचें झाड पावसाच्या उदकाचेर जियेतात हें खरें आसलें तरी गिमाच्या दिसांनी उदक दिल्यार हें झाड चड उत्पन्न दिता. काजूच्या बागांनी नडणी वाडपाक दिवंक फावना. हातांनी वा ट्रॅक्टराचो वापर करून नडणेचो नायनाट करतात. ग्रामाक्सोन सारक्या नडणेच्या वखदांचो फवारो मारून्य हे नडणेचो बंदोबस्त करपाक जाता. काजूची लागवड कलमां लावन करीत जाल्यार काज बेगीन लागता. कांय कलमी झाडां तर एका वर्साभितरुच फुलतात. पूण इतल्या ल्हान झाडाक फळां लागूंक दिलीं जाल्यार ताचो झाडाचे वाडीचेर परिणाम जावं येता. तेखातीर झाड कमीत कमी दोन वर्सां वाडयतात. काजूची बियांपसून लागवड केल्यार ४-५ वर्सांनी झाड लागता. झाडाक नोव्हेंबर-डिसेंबर म्हयन्यांत फुलां येतात आनी मार्च - मे मेरेन फळां लागतात. फळां पिकतकच ह्या मुट्ट्यांच्यो बियो वेगळ्यो काडून, मुट्ट्यांचो रोस काडटात. ह्या रोसापसून 'फेणी' हो सोरो तयार करतात. पूण असो हो मुट्ट्यांचो उपेग फकत गोंयांतूच जाता; देशांतल्या हेर राज्यांनी मुट्ट्यांचो सोऱ्याखातीर उपेग केल्लो दिसना.

गोंयांत काजूचें सरासरी उत्पन्न दर झाडाक १.५ किग्रॅ. बियो इतलें आसा. कांय झाडां १०० ते २०० ग्रॅम बियो दितात तर कांय झाडां ३०-४० किग्रॅ. उत्पन्न दितात. भारतांत सुमार २.४५ लाख टन काजू बियांचें उत्पादन जाता. ह्या पिकाक लागून भारताक सुमार ३३४ कोटी रुपयांचें परकीय चलन मेळटा. १९८६ वर्साचे आंकडेवारीप्रमाण गोंयांत सुमार १३,५०० टन काजूबियांचें उत्पादन जालें आनी ८१,००० टन मुट्ट्यांचें उत्पादन जालें. ह्या मुट्ट्यांपसून सुमार १० लाख लिटर फेणी तयार जाली. गोंयांत सुमार १३ काजूचे कारखाने आसात.

काजूचें फळ 'मुट्टो' हें एक पुश्टीक अशें फळ. मुट्ट्यांत 'क' जीवनसत्त्व आसता. मुट्ट्यापसून जाम, चटणी, लोणचें करपाक जाता. मुट्ट्यांचो रोस काडून तापयतात आनी ताचें शुध्दीकरण करून ताचेपसून 'हुर्राक' तयार करतात. हें 'हुर्राक' मागीर आनीक शुध्द करून ताची 'फेणी' तयार करतात. फेणयेंत सोऱ्याचें (आल्कोहॉलचें) प्रमाण चड आशिल्ल्यान ती चड प्रमाणांत घेतल्यार भलायकेक अपायकारक आसता पूण थोड्या प्रमाणांत सेवन केल्यार, थंडी आनी हेर दुयेंसांचेर 'फेणी' हें एक वखद जावन आसा. मुट्ट्यांचो रोस काडून जाल्या उपरांत

जो चोथो उरता, तातूंतल्यान निमाणो शुध्द असो रोस काडटात, ताका 'निरो' अशें म्हण्टात. निरो बरो रुचीक आसता आनी तातूंत 'क' जीवनसत्त्व भरपूर प्रमाणांत आसता. काजूचो गर (बियो) रुचीक, भरपूर पुश्टीक आनी वखदी आसता. तातूंत २१% प्रथिनां आसतात. हो गर चडसो मेकळो खातात. तेभायर हालवो, सांजो, खीर, चिवडो सारक्या खावपाच्या जिनसांनी तो वापरतात. काजू-बियांक जें कवच आसता, त्या कवचांत एक प्रकारचो दीख आसता. ह्या दिखाचो उपेग तेल-रंग तयार करपाखातीर आनी वेगवेगळ्या प्रकारचीं कीटकनाशकां तयार करपाखातीर जाता. काली तशेंच हेर उदकांतल्यो किडी व्हड्याच्या आंगाक लागच्यो न्ही आनी व्हड्याचें उदकांतलें आंग पिड्ड्यार जावंचें न्हय म्हूण ह्या दिखाचो लेप व्हड्याच्या आंगाक सारोवन ताका संरक्षण दितात. कोंडांनी आसता त्या जळारींच्यो अळयो मारपाक ह्या दिखाचो उपेग करतात. थंडेच्या दिसांनी पांयांक जे कात्रे पडटात, त्या कात्र्यांचेर ह्या दिखाचो लेप लायतात. काजूचे बियेचो दीख मनशाचे कातीचेर वायट परिणामूय करता. दीखाक लागून कात काळी पडून ती सोलता. काजूच्या झाडाचे खडबडीत सालीपसून टॅनीन आनी गम मेळटा. काजूच्या झाडाचें लांकूड फर्निचर तयार करपाखातीर आनी जळवाखातीर वापरतात.

काजूक किडीचो आनी रोगाचो बरोच त्रास जाता. किडींभितर 'रोटो' (stem bores) आनी 'टी मोस्किटो' ह्या किडींचो चड त्रास जाता.

**रोटोः** ही कीड काजूचें कांड तशेंच मुळां पोखरता आनी कांडांतलो गोरोप खाता. ताका लागून झाडाच्या कांडांतल्यान मुळामेरेन भुसो तशेंच गम भायर पडटा. अशीं लक्षणां दिसलीं की ही कीड लागल्या म्हूण समजुचें. ही कीड लागतकच सुरवातीक पानां हळडुवीं जातात आनी मागीर झाड इल्लें इल्लें सुकता आनी मरता. हे किडीचेर नियंत्रण दवरपाखातीर, सुरवातीकूच पानां हळडुवीं दिसनाफुडें कांडाचेर २ फुटांमेरेन बी. एच्. सी. १ टक्के हें वखद सारयतात. आनीक एक उपाय म्हळयार रोटो लागला त्या जाग्यावयली थोडीशी साल काडून थंय 'मोनोक्रोटोफोस' ह्या वखदान बुडयल्लो कापूस लायतात आनी काडिल्ली साल परत बांदतात.

**टी- मोस्किटोः** बरेच फावट खारो दंव पडून चंवरां करपलीं, अशें म्हण्टात. पूण प्रत्यक्षांत तें 'टी- मोस्किटो' हे किडीक लागून घडटा. जळारी सारकी दिसपी ही कीड, चंवराच्या तशेंच तरन्या खांदयांतल्यान रोस चोखून घेता. ताका लागून चंवरां आनी खांदयो सुकतात. हे किडीचो बंदोबस्त करपाखातीर ०.०५ टक्के येन्डोसल्फान हें वखद चंवरां येतात तेन्ना २० दिसांच्या अंतरान तीन फावट मारतात.

तेभायर पानां पोखरपी तशेंच पानांचें आनी चंवरांचें जाळें विणपी किडीचो काजूक थोड्या प्रमाणांत त्रास जाता. हे किडीचेर नियंत्रण दवरपाखातीर ०.०५ टक्के फोस्फोमीजेन वा येन्डोसल्फान हें वखद फवारतात. काजूक गुलाबी रोग जावं मर रोगाचो कांय प्रमाणांत त्रास जाता. ह्या रोगाची लागण जाल्यार खांदयो तोंकाकडल्यान सुकतात. ह्या रोगाचो बंदोबस्त करपाखातीर पयलीं सुकिल्ल्यो खांदयो कापून उडयतात आनी मागीर झाडाचेर १ टक्के बोर्दो मिश्रण फवारतात.

- विश्राम गांवकार

**काठमांडूः** नेपाळ राज्याची राजधानी आनी मुखेल वेपारी केंद्र. हें नगर हिमालय पर्वताचे वळींत विष्णुमती आनी बाघमती ह्या न्हंयांच्या संगमाचेर वसलां. ताची उंचाय समुद्रथरासावन १३२१.५ मी. आसा. काठमांडू शार भारताचे शिमेपसून १२० किमी. अंतराचेर आसा. हांगा वट्ट २,३५,१६० (१९८१) लोक रावतात. गिमाच्या दिसांनी ह्या शाराचें हवामान बरें आसता पूण थंडेच्या दिसांनी मात हांगाचें हवामान भलायकेक मारक आसता. ह्या शाराच्या खंयच्याय भागांतल्यान बर्फान भरिल्लीं हिमालयाचीं तेमकां दिश्टी पडटात.

आदल्या काळांत काठमांडू शाराक मंजुपट्टन, कांतिपूर हीं नांवां आशिल्लीं. आतांचें काठमांडू शार ७२३ त राजागुणकामदेव हाणें वसयल्लें. मल्लराजा लक्ष्मणसिंह वा लक्ष्मींद्र हाणें १५९६ त हांगा व्हडलें लांकडी देवूळ बांदलें. लांकडाक 'काष्ठ' अशें म्हण्टात. ताचेवेल्यान काष्ठमंडप-काठमांडो-काठमांडू अशीं नांवां पडलीं.

आदीं ह्या शाराभोंवतणी तट आशिल्ले आनी ताका ३२ शिमो आशिल्ल्यो. शाराचे ३२ विभाग आसून तांकां 'टोल' अशें नांव आशिल्लें. काठमांडूच्या पोरन्या शारांतले रस्ते अशीर आसात. थंयचीं घरां तांबड्या विटांनी बांदिल्लीं आसात. घराचे बांदावळींत लांकडांचो चड उपेग केला आनी तांचेर सुंदर कोरीवकाम केल्लें दिश्टी पडटा. मल्लराजान बांदिल्लो हांगाचो भव्य राजवाडो हो ह्या पोरन्या शाराचें खाशेलपण जावन आसा. थंयच्यान लागींच महेंद्रमल्ल हाणें बांदिल्लें तल्लिजुदेवी (तुळजाभवानी) देवूळ आसा. हें देवूळ काठमांडूच्या हेर देवळांपरसूय व्हड आनी पळोवपासारकें आसा.

राजवाड्याच्या मुखेल प्रवेशदारांत व्हड अशी हनुमानाची मूर्त आसा. हे मूर्तीवेल्यानूच ताच्या मुखावेल्या चौकाक हनुमानताल अशें म्हण्टात. ह्या चौकांत ब्रह्मी पॅगोडाचे बांदावळीचेर बांदिल्लीं कितलींशींच देवळां आसात. तेचपरी काळ्या फातराची काळभैरवाची एक व्हड मूर्त आसा. पोरन्या राजवाड्यालागसार आर्विल्ले बांदावळीचो व्हड दिवाणखानो आसा. ह्या दिवाणखान्यांत दरबार भरता आनी थंयच्यानूच म्हत्वाच्यो घोशणा करपाच्यो आसल्यार करतात. राजवाड्याचे उदेंतेक कवायतीचें व्हड मळ (तुंडीखेळ) आसा. पोरन्यां शारा लागसारुच राणा लोकांनी बांदिल्ले खुबशे व्हड-व्हड म्हाल आसात. हांगाच्यो आर्विल्ल्यो इमारती अस्तंते धर्तीच्यो आसात.

काठमांडू शारांत खुबशा जातींचे लोक रावतात. तांतल्यो मुखेल जाती अश्योः शनेवारी, ठाकूर, गुरंग, गुरखा. हांगाचे चडशे लोक हिंदू आनी बौध्द धर्मीक आसात.

लघुउद्येगांत काठमांडू शारांतल्या लोकांनी नांव जोडलां. तेभायर हांगाचें लांकडाचें कोरीव काम तोखणाय करपासारकें आसा. हांगाचीं कापडाचीं जोतीं, सत्र्यो, कातडी काम, लोकरी कपडे, धातुंचीं आयदनां आनी हस्तकलेच्या वस्तूंक भायल्या देशांनी बरीच मागणी आसा. हांगा तांदूळ, गंव, फळां आनी भाजी हांचें थोड्या प्रमाणांत उत्पादन जाता. देखुनूच ह्या नगराक खाद्य अन्नाची आयात करची पडटा.

एकुणिसाव्या शेंकड्यामेरेन काठमांडू शाराची उदरगत कमी प्रमाणांत जाताली. पूण सद्या ह्या शाराचे उदरगतीक बरोच वेग आयला. साक्षरतेच्या मळार फाटीं आशिल्ल्या ह्या शारांत सद्या उच्च शिक्षणाची बरी वेवस्था आसा. आतां काठमांडू शारांत खुबकडेन मुळाव्यो माध्यमिक शाळा आनी वाचनालयां आसात. तेभायर १९५८ त स्थापन जाल्लें त्रिभुवन विद्यापीठ आसा. काठमांडू शाराचे उदेंतेक ५ किमी. अंतराचेर काठमांडूचो विमानतळ आसा.

काठमांडू शारांत आनी शाराच्या लागसार हिंदूंची आनी बौध्दांचीं कितलींशींच देवळां आनी तीर्थस्थळां पळोवंक मेळटात. पशुपतीनाथ हें हांगाचें नामनेचें शिवालय, शारा सावन सुमार ४ किमी. अंतराचेर आसा. स्वयंभूनाथ, बोधनाथ ह्या बौध्द पवित्र थळांच्या दर्शनाक तिबेट, जपान सारकिल्या भायल्या देशांतल्यान लोक येतात.

- कों. वि. सं. मं.

**काणकोणः** गोंय राज्यांतलो दक्षिणेकडलो म्हाल. ह्या म्हालाचे उत्तरेक केपें आनी सांगें म्हाल, दक्षिणेक अरबी दर्या आनी कर्नाटक राज्यांतलो कारवार जिल्हो, उदेंतेक कर्नाटक राज्यांतलो कारवार जिल्हो आनी अस्तंतेक अरबी दर्या येता.

**भूंयवर्णनः** काणकोणची चडशी भूंय दोंगर-दोंगुल्ल्यांनी आनी जंगलांनी भरिल्ली आसा. कर्मलघाट, आंबेघाट आनी आंवळीघाट अशे तीन घाट हांगा आसात.

गालजीबाग न्हंय आनी तळपणची न्हंय ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो आसात. अरबी दर्याचे फांटे हांगा ज्या ज्या गांवांनी भितर सरल्यात, त्या त्या नांवांनी काणकोणच्या दर्याक वळखतात. देखीकः पाळोळें, तळपण,

गालजीबाग, आगोंद, खोलगड, शेंद्रे, पोळें ह्यो काणकोणच्यो नामनेच्यो दर्यावेळो.

**हवामानः** काणकोणचें हवामान ओलसाणीचें. पावसाळो, गीम आनी शिंयाळो अशे तीन ऋतू हांगा आसतात. पावसाळो (जून-ऑक्टोबर), शिंयाळो (जानेवारी-फेब्रुवारी) आनी गीम (मार्च-मे). तापमान गिमांत चडांतचड ३३° से. तर शिंयाळ्यांत उण्यांत उणें २०° से. मेरेन आसता. दक्षिण-अस्तंत मान्सूनासावन ह्या म्हालाक पावस मेळटा. वर्सुकी पावसाचें प्रमाण ४०० सेंमी. आसता. पावसाच्या दिसांनी येवपी वारें सोडल्यार हांगा व्हड वादळां जायनात.

**वनस्पत आनी मोनजातः** रानवट झाडांवांगडा आंबो, पणस, जांबळ, बोर, चिंच, पिंपळ, केळ, काजू, माड, माडयो तशेंच करमल, बिंबल, काण्णां, तोरींग ही वनस्पत दिसता.

गॅझेटीयर ऑफ इंडिया हातूंत काणकोणच्या रानांनी वनमाणूस (Slender loris) दिश्शिल्ल्याची नोंद आसा. माकड, मुंगस, भालो, चित्तो, रानमाजर, काटांदोर, चानयो, साळ, मेरवां, चितळ, भेकरो, रानदूकर हेसारकीं जनावरां ह्या म्हालांत दिसतात. खोतीगांव हांगा अभयारण्य आसा.

**इतिहासः** पुराण काळांत हांगा कण्वमुनीचें तपोवन आसलें, म्हूण ताका 'काणकोण' नांवान वळखतात. कण्व ज्या जाग्यार 'तर्पण' करतालो ताका 'तळपण' हें नांव पडलें अशें सांगतात.

एकुणिसाव्या शतमानामेरेन काणकोण आनी शिवेश्वर (आतांचो कारवारच्या अवर्शे मेरेनचो वाठार) मेळून हो अडवट प्रांत आसलो. १८ व्या शतमानांत शाहू म्हाराजान खेमसावंताक दिल्ले सनदींत हेर मुलुखांवांगडा अडवट म्हाल, नगर्शे, किंजळे हांचोय आस्पाव आसा. सौंदे राजाकडलो हो वाठार उपरांत १७८१ वर्सा काणकोणसयत २१ हजार असरफींक पोर्तुगेजांक भोगवट्याक म्हूण दिल्लो.

हब्बूंची हांगाची वसती, पर्तगाळ मठाची थापणूक आनी थंयचीं पोरनीं हातबरपां, परशुराम देवालयाची थापणूक आनी परशुराम पंचैग्रामचो पोरनो टको (कपड्यावेलें हातबरप), श्री मल्लिकार्जून देवस्थानांतली पोरनीं कागदपत्रां, फातरपटो, पेडें-लोलयेंचीं गुप्तकालीन पांचव्या शतमानांतली नागमूर्त, पैंगीण, लोलयें, खोल, चापोली ह्या वाठारांतलो बेताळ, १६७९ वर्सा शिवाजी महाराजान बांदून घेतिल्लो काणकोणचो खोलगडचो (काबु-द-राम) किल्लो, ह्यो गजाली काणकोणच्या पूर्विल्ल्या इतिहासाचें दायज आसात.

गोंयचे सुटके झुजांत उणेंच म्हळ्यार काणकोणच्या दोनशीं पुता-धुवांनी वांटो घेतिल्लो. सर्गेस्त परशुराम श्रीनिवास आचार्य आनी सर्गेस्त केशव सदाशिव टेंगसे हे दोग जाण तातूंत हुतात्मे जाल्यात. सुटके झुजारी डॉ. पुंडलीक गायतोंडे आनी तेरेखोलवीर आल्फ्रेड आफोंस हे काणकोणचे नामनेचे सुटकेझुजारी.

काणकोणचें प्रतिनिधीत्व गोंय विधानसभेंत दोन आमदार करतात. नगर्शे-पाळोळें नगरपालिका खोल, आगोंद, श्रीस्थळ, पैंगीण, लोलयें-पाळें, गांवडोंगरी, खोतीगांव अश्या सात पंचायतीं भितर हो म्हाल वांटला.

**अर्थीक स्थितीः** भात (तांदूळ) आनी मिरसांग हीं ह्या म्हालाचीं दोन मुखेल पिकां. ऊंस; कांदे, वरय, गोंडो (नाचणो), तोर (तूर), कुळीद, हळसांदो हीं पिकांय हांगा काडटात. पूण तांचें प्रमाण उणें जायत आसा. सरकारी पालवाक लागून ऊंसाचें पीक काडपाक जायते शेतकार मुखार सरल्यात. सुपारी, नाल्ल, काजूच्या धंद्याक बागायतदार संस्थांक लागून बरे दीस आयल्यात. काजूच्या फोकांचो (बोंडाचो) रोस काडून विकपाचो आनी सोरो काडपाचो धंदोय गिमांत व्हड प्रमाणांत चलता. दर्यावेळेर माडाचो सोरो काडपाचो धंदो नेटान चलता. म्हशी-गायांच्या दूदाचो धंदो, कुकडां-दुकरां पोसप, बोकडां पोसप अशे ल्हान धंदे हांगा चलतात.

आमोणें-खोतीगांव वाठारांत सरकारान रबराचें उत्पादन काडलां. रबराचो दीख काडून रबर तयार करपाचो उद्येग थळाव्या लोकांक फायद्याचो थारला. लांकूडकाम, उद्येग सरकारी केंद्र, तामणें (लोलयें) हांगा चलता. पैंगीण हांगा काथ्याकाम, काजूबियांचे म्होवले, नुस्तें तिगोवपी झेलाच्यो फॅक्टरी हे उद्येग चलतात. श्रीस्थळ वाठारांत लघुउद्येग वसाहत चलता.

हांगाची सगळी येरादारी रस्त्यांवयल्यान जाता. राष्ट्रीय महामार्ग- १७ म्हालांतल्यान वता.

**लोक आनी समाजजीणः** राज्याचो वट्ट आवांठ ३४८.५० चौ. किमी. आसा. लोकसंख्याः ३५,९३५ (१९८१). तातूंत १७,९०९ दादले तर १८,०२६ बायलो आसल्यो. म्हालाचें मुखेल थाणें 'चावडी'.

हिंदु, किरिस्तांव आनी मुसलमान ह्या तीनूय धर्माचे लोक हांगा आसात. ह्या धर्मांनी हेर पोटजाती आस्पावतात.

श्री मल्लिकार्जुन देवस्थानांतली शिगम्याची आनी तरंगांची भोंवर, शिशारान्नी आनी हिरामेळ, पैंगीणच्या बेताळादेवळाकडली गड्यां-जात्रा आनी तोंको (टक्याची मिरवणूक), पर्तगाळचो रामनमीचो तेर, माशेच्या निराकाराची चैत्रपुनव, लोलयेचो शंकरशाकडलो दसरो, सोलयें-खोल हांगाचीं दिवजां- भोंवर, सादोळशेंचो हुदो, रथसप्तमीचे उत्सव हांगाच्या देवस्थानांनी जातात. श्री मल्लिकार्जून देवस्थानांत सात दिसांचो अखंड भजनी सप्ताह जाता.

कार्तिक पुनवेचे काले, काल्यासावन मे म्हयन्यामेरेन जात्रा परबांनी जावपी नाटकां, सुंवारीवादन, चंद्रावळ, लोककलेच्या विंगड विंगड आंगांनी शिरंगारिल्लो धाकलो शिगमो, हीं काणकोणची खाशेलपणां आसात. तोणयांमेळ, तालगडी, गोफ, पेरणी जागर, फुगडी, संकासूर-कालो, गौळण-कालो, रामायण-महाभारतांतलीं गीतां, गुडुल्याचीं गायनां, शेतांतलीं गीतां, तेचपरी दिवलीनृत्य, घोडेमोडणी ह्या लोकनृत्यांनी ह्या म्हाला कलेचें दायज समृध्द केलां.

'धी पैंगीण मल्टीपर्पज असोसिएशन'- पैंगीण, 'कोमरपंत संघ'- काणकोण, 'गोपाळ कृष्ण मंडळ'- पैंगीण, 'मल्लिकार्जून सेवक भजनी मंडळ' आनी 'लोककलासंघ'- श्रीस्थळ, 'निराकार विद्यालय माजी विद्यार्थी संघटना'- माशें कलेच्या मळार बरोच मोलादीक वावर करतात.

खेळाच्या मळार 'मल्टीपर्पज असोसिएशन' ही संस्था बरोच वावर करता. श्रध्दानंद विद्यालय हायस्कूल-पैंगीण खेळामळार नांवाजिल्लें आसा.

गीत-संगीताच्या मळार पं. गोविंदराव अग्नी, अंजनीबाय लोलयेंकार, आशालता वाबगांवकार; साहित्य-इतिहास-संशोधनाच्या मळार प्रा. स. शं. देसाई आनी डॉ. वि. बा. प्रभुदेसाय हांचो वावर तोखणायेचो आसा.

**शिक्षणः** 'मुष्टिफंड संस्था', 'बालबंधु समाज', 'रामदास मंडळ', 'दत्त प्रासादिक मंडळ', 'विद्याप्रसारक मंडळ' ह्या संस्थांतल्यान २८ डिसेंबर १९२२ दिसा (Centro Promotar de Instrucao, Canacona- विद्या प्रसारक मंडळ-काणकोण) ही पयली शाळा अस्तित्वांत आयली. उपरांत तातूंतल्यान १२ ऑटोबर १९३१ दिसा मल्लिकार्जुन विद्यालय सुरू जालें. 'काणकोण उद्येगीक आनी तंत्रीक शिक्षणकेंद्र', 'केंद्रीय नवोदय विद्यालय' आनी 'बालभवन केंद्र' ह्योय संस्था शिक्षणाच्या मळार वावर करतात.

सवें अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलन (१४-१५ फेब्रुवारी १९८१) काणकोण हांगा भरिल्लें.

**म्हत्वाचीं थळांः** पोळेंचे शिमेवेलें गोंयचें दक्षिणेचें प्रवेशद्वार श्री. मल्लिकार्जून देवस्थान, श्री संस्थान पर्तगाळचो मठ आनी थंयचो वड, खोलगडचो (काब-द-राम) किल्लो, खोतीगांवचें अभयारण्य, परशुराम पंचैग्राम- पैंगीण, निराकार माशें; दामोदर केशव-लोलयें, ग्रामदेव-लक्ष्मीनारायण- खोल, लाखणेश्वर-मुडकूड आनी मुडचेळी, निराकार-देळें खालवडे, आदिनाथ- किंदळे, मल्लिकार्जून,- अवें, आगोंदो-आगोंद, मोहिनीदेवी- सादोळशें हीं हिंदु देवस्थानां तशेंच सेंट तेरेझा- चावडी, सेंट फ्रांसिस्क- भाटपाल, सेंट ॲनीस- आगोंद, सेंट रोझरी- सादोळशें, सेंट ॲथनी-गालजीबाग, सेंट सेबेस्त्यांव- लोलयें ह्यो इगर्जी आनी कोळंबची

मशीद पळोवपा सारकी आसा.

- प्रा. कमलाकर द. म्हाळशी

## काणकोणकार, तुकाराम राघोबा:

(जल्मः ३१ जुलय १९३१, पाळें- शिरदोन- तिसवाडी; मरणः ९ सप्टेंबर १९८८).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें लिसेवाचें तिसरें वर्स आनी मॅट्रीक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो नागरी कंत्राटदार (Civil Contractor) आशिल्लो. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. फुडें हे संघटनेचे प्रसार समितीचो तो वांगडी जालो. सुटके चळवळीक तेंको दिवप, मिरवणुकी काडप, बसका घेवप आनी राश्ट्रवादी दिसाळीं वांटप असलीं कामां तो करतालो. एप्रिल १९४७ वर्सा थापणूक जाल्ले 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेच्या सतरा संस्थापक वांगड्यांतलो तो एक वांगडी आसलो. त्या काळांत पोलीस ठाण्यांचेर जे हत्यारबंद हल्ले जाताले, तातूंत तो वांटो घेतालो.

ताणें म्हापशां वाठारांतल्या सरकारी खजिन्याचेर हल्लो करपाचो बेत आंखलो आनी तो २१ जुलय १९४७ दिसा विश्वनाथ लवंदे आनी हेर क्रांतिकाऱ्यांवांगडा मेळून तडीक व्हेलो. म्हापशां वाठारांतचे बँकेच्या मॅनेजराचेर हल्लो करून ताचेकडली पैशांची बॅग हातासपाचो कट आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या वावुरप्यांनी केलो. ४ डिसेंबर १९४७ दिसा ताच्या फुडारपणाखाल दल संघटनेच्या वावुरप्यांनी हल्लो केलो आनी मॅनेजराकडली पैशांची बॅग काडून घेतली. पोलिसांक चुकोवपाक तो दोडामार्ग वाठारांत वचून लिपलो. ताणें आनी ताच्या हेर वांगड्यांनी दल संघटनेचें कार्यालय थंय (दोडामार्ग) व्हेलें आनी थंयसावन भूंयगत राजकी वावर करूं लागले. ताचे गैरहाजेरींत म्हापशां न्यायालयांत ताची चवकशी सुरू केली. उपरांत पणजी उच्च न्यायालयांत ताची चवकशी जाली. १२ जून १९५० दिसा ताका २८ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर दर दिसा वीस इस्कूद हे प्रमाण एक वर्स दंड भरूंक लायलो. ताका धरपाचें फर्मानूय काडिल्लें. ताचेविशींची खबर काडून घेवपा खातीर पोलिसांनी ताच्या बापायक धरलो आनी ताका बरेच त्रास दिले. तेभायर ताची सगळी आस्त जप्त केली. तो पोर्तुगेज सरकाराच्या कारवायांविशीं भारत सरकाराक खबरो पावोवपाचें काम करतालो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## काणेकार, कमलाकांत गंगाराम (शिरोडकार कमलाकांत):

(जल्मः २ ऑक्टोबर १९३६, बेळगांव; मरणः २३ मे १९५७).

गोंयचो सुटके झुजारी. मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. गोंय सुटके चळवळीच्या काळांत खबरो पावोवप, गांवांगांवांनी पत्रकां आनी वण्टीपत्रकां पावोवपं असलीं कामां तो करतालो. २३ मे १९५७ दिसा शिमेवेल्या वाठारांत पोर्तुगेज पोलिसांच्या फारपेटांत गुळी लागून ताका मरण आयलें. १८ जून १९८३ दिसा गोंय सरकारान ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## काणेकार, रमाकांत केशव:

(जल्मः १० एप्रिल १९३६, सांखळी- दिवचल).

गोंयचो सुटके झुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो भूंयराश्ट्रवादी वावरांत वांटो घेतालो. सप्टेंबर १९५४ वर्सा ताका पोर्तुगेज पोलिसांनी धरलो आनी बंदखणीत दवरलो. उपरांत ऑगस्ट १९५५ वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९७३ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## काणेकार, राधाकृष्ण सीताराम:

(जल्मः १८ एप्रिल १८२८, म्हापशें- बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. गोंय सुटके चळवळीच्या काळांत तो प्रभात फेरयांनी तशेंच राश्ट्रवाद्यांच्या बसकांनी वांटो घेतालो. पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो, खूब त्रास दिले आनी बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## काण्ण:

(मराठी- करवंद; हिंदी- करोंदा; गुजराती- करमरडा; कन्नड-कारेकाई; संस्कृत-कंचुका; इंग्लीश-बेंगॉल करांट; लॅटीन-कॅरिसा करंडास; कूळः अॅपोसायनेसी).

रानवट फळ. काण्णाचें झाड म्हळयार काण्णीन भारतांत सगळ्या वाठारांनी दिश्टी पडटा. चडकरून सुक्या आनी दोंगराळ वाठारांनी हें झाड जाता. श्रीलंका, जावा, तिमोर ह्या वाठारांनीय हें झाड जाता.

काण्ण चडकरून आकारान वाटकुळेंच आसता, पूण केन्नाकेन्नाय रानांत लांबश्या आकाराची काण्णाची जात दिसता. हरवें आसतनां काण्णाचो रंग पांचवो आसता, पिकतकच तें जांबळें जाता. काण्ण दिखाळ आसता. पिकिल्ल्या काण्णांतूय दीख आसता. हो दीख धवो आनी पांखट आसता. काण्णाचो दीख हाताक लागल्यार हात काळे जातात.

काण्णीनीचें झिल चड व्हड जायना. तिचें कांड तीन ते चार मी. ऊंच वाडटा. कांडाक जोडयेन कांटे आसतात आनी ह्या कांट्यांक तेंकून जोडयेन पानां येतात. फुलां रंगान धवीं आनी पांच पाकळ्यांचीं आसतात. फुलां येवन एकाच म्हयन्यांत फळ तयार जाता. फळां घोंसांनी येतात. काण्णं बरें रोसाळ आनी मांसाळ आसता. पिकतकच तें रुचीक आंबट-गोड लागता. फळांत एकामेकांक दशिल्ल्यो चार चेपट्यो बियो आसतात.

हरवें आसतना काण्ण खळांत घालतात; काण्णांचें लोणचेंय करतात. गोंयांत मात काण्ण लोणच्यांत घालपाची पध्दत ना. काण्ण चडकरून पिकतकच खातात. काण्णीन कांटयाळी आशिल्ल्यान वंय करपाखातीर तिचो उपेग करतात. काण्णीनीचें मूळ वखदी आशिल्ल्यान पांयाक सूज आयल्यार ती काडपाखातीर मुळाचो उपेग करतात. जोर निवळावपाखातीर पानांचो काडो दितात. तशेंच ताच्या लांकडापसून कोरीव वस्तू तयार करतात.

- कों. वि. सं. मं.

## कात- १:

खैर झाडाच्या (अॅकेशिया कॅटेच्यू) लांकडापसून काडिल्लो अर्क, गाळून सुकयतकच जो दाट पदार्थ मेळटा, ताका कात अशें म्हण्टात. खैरा खेरीज हरव्यो सुपाऱ्यो, आंवाळे आनी गॅंबिअर झाडाचीं पानां वापरून कात तयार करतात. खैराच्या रुखापसून 'कात' आनी 'कच्छ' अशे दोन पदार्थ मेळटात. ज्या पदार्थांत कॅटेचीन चड प्रमाणांत आसता, ताका 'कात' अशें म्हण्टात, आनी ज्या पदार्थांत कॅटेच्यू टॅनिक अम्ल चड आसता ताका 'कच्छ' अशें म्हण्टात.

**उत्पादनः** भारत आनी ब्रह्मदेशांतल्या रानांनी खैराचीं झाडां दिश्टी पडटात. खैराचें झाड चड ऊंच वाडना. ताका लागीं लागीं फागूर येतात. पानां बारीक आसतात, तशें ताच्या कांडाक कांटे आसतात. झाड मारलें जाल्यार मुळाक आडफागूर येतात. खैराचें झाड चार-पांच वर्सांभितर कात काडपाखातीर तयार जाता. झाडाच्या कांडाक उब्यो धाली फुटून भितल्लो धवसार भाग दिसूंक लागलो म्हण्टकच काताखातीर झाड तयार जालां, अशें समजुपाचें.

घरगुती उत्पादन करपी, फकत कातूच तयार करतना दिसतात. सादारणपणान नोव्हेंबर ते फेब्रुवारी म्हयन्यांत कात तयार करतात. सुर्वेक खैराचें झाड कापून ताचे बारीक कुडके करून, (भायली साल काडून उडयतात) तें एका मातयेच्या आयदनांत, उदकांत घालून शिजयतात. जशें जशें लांकूड शिजता, तसो तसो रोस भायर सरता. लांकडाचो पयलो अर्क काडपाक सुमार तीन वरां लागतात. उपरांत आयदनांतलो

पयलो अर्क काडून घेतात आनी दुसरें उदक घालून परतें शिजयतात. अशें ४ ते ५ वेळा करतकच, मेळिल्लो अर्क एका पातळ कपड्यांतल्यान गाळटात. उपरांत रेंव आनी मातयेचो थर आशिल्ल्या एका आयदनांत हो अर्क घालून पंदरा दीस मेरेन आयदनबंद करून दवरतात. ह्या पंदरा दिसांत, अर्काच्या आंगांत आशिल्लें विद्राव्य टॅनीन भायर सरता आनी भितर चिकट-मोव पदार्थ उरता. ह्या पदार्थाचो गुळो तयार करून ताची आपल्याक जाय त्या आकाराचीं कापां करतात आनी सांवळेक सुकयतात.

कात करपाचे हे पध्दतीक खूब कळाव लागता. डेहराडूनच्या फॉरेस्ट रिसर्च इन्स्टिट्यूटान संशोधन करून कात करपाचे पध्दतींत सुदारणा केल्ली आसा. हे पध्दतीन कच्छ हो उपपदार्थ काडूंक मेळटा. सुर्वेक लांकडाचे कुडके तांब्याचे जाळयेर दवरतात आनी ही जाळी तांब्याच्या आयदनांत दवरून उदकाच्या आदारान अर्क काडटात. पयलो अर्क काडूंक देड तीं दोन वरां लागतात. उपरांत दोन फावट अर्क काडटात. ताका तीस मिनटां लागतात. सगळो अर्क एकठांय करून उक्ते कायलींत दवरतात. दोन-तीन दिसांनी कातीचे खडे जातात. ह्या खड्यांच्यो वडयो करून सुर्वेक सांवळेंत आनी उपरांत वाऱ्यार सुकयतात. हें सगळें करपाक एक सप्तक लागता. एका झाडापसून एके खेपेक तीन ते साडेतीन टक्के कात आनी आठ ते धा टक्के कच्छ मेळूंक शकता.

व्हड प्रमाणांत काताचें उत्पादन करतले जाल्यार तें यंत्रांच्या आदारान करतात हे पध्दतींत ऑटोक्लेव्ह (दाबापोंदा शिजोवपाचें आयदन) वापरतात. कात काडपाचे हे पध्दतीन अर्क काडूंक बारा वरां लागतात. उपरांतचें हेर सगळें काम वयर वर्णन केल्ल्या प्रमाणूच आसता.

**सुपारेचो कातः** हातूंत हरव्यो सुपाऱ्यो सोलून त्यो उदकांत शिजयतात. उपरांत जो तांबडो आनी दाट पदार्थ मेळटा, तो आटोवन कात तयार करतात. कापी आनी चिकणी सुपारी तयार करपी कारखान्यांत हो उपपदार्थ म्हूण मेळटा.

**आंवाळ्याचो कातः** आंवाळयाच्या फळांपसून तेचपरी झाडांपसून हो कात तयार करतात. तो काळसर धवश्या रंगाचो आसता.

**गॅबिअर वा मलायी कातः** हो कात पाचव्या कोराचो आसता. सिंगापूर आनी मलाया ह्या वाठारांनी गॅबिअर ह्या झाडांपसून खैराच्या काताभशेनूच कात तयार करतात.

**काताचे प्रकारः** फूलकात, जनकपुरीकात, गल्लाकात, मधईकात, पापडीकात, गोराकात आदी काताचे मुखेल प्रकार बाजारांत मेळटात.

**उपेगः** भारतांत खूब पूर्विल्ल्या काळासावन विड्यांतल्यान खावपाखातीर काताचो उपेग करतात. आयुर्वेदिक वखद म्हणूनय काताचो उपेग करतात. कातांत शितळ, पाचक आनी जंतूंचो नाश करपी गुणधर्म आसतात. घाय, रगत वचप, कातीचे रोग, उपदंश, मूळव्याध आनी चामडेर पडपी कात्रे ह्या वायटांचेर कात खावपाक, तेचपरी दुखण्याचेर भायल्यान लावपाक उपेगी आसता. हेर वखदांभशेन पिठो, गुळयो, पातळ द्रव्य आनी मलम ह्या स्वरुपांतूय ताचो उपेग करतात.

कपडे रंगोवपाक आनी कपड्यांचेर छापकाम करपाक कच्छाचो वापर करतात.

**भारतीय कात उद्येगः** भारतांत अकेशिया कॅटेच्यू प्रकार, कॅटेच्यू प्रॉपर (महाराष्ट्र, उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश), कॅटेच्यू ऑइडस (अस्तंत बंगाल), सुंद्रा (आंध्र प्रदेश) ह्या झाडांपसून कात तयार करतात. उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश, महाराष्ट्र, अस्तंत बंगाल, ओरिसा, पंजाब, कर्नाटक, आंध्र प्रदेश आनी बिहार ह्या राज्यांत कात तयार करतात. ह्या उद्येगांक जरी लघुद्येग म्हूण वळखतात तरी, इज्जतनगर, हळदावनी (उत्तर प्रदेश), शिवपुरी (मध्य प्रदेश), राजपिपला, देरोळ, डहाणू, मुंबय आनी कारवार ह्या वाठारांतल्या कारखान्यांनी व्हड प्रमाणांत काताचें उत्पादन करतात.

- कों. वि. सं. मं.

## कात-२ (चामडी):

शरीरावयलें भायलें आवरण. शरीर आनी भोंवतणचें जग हांचेमदली ती एक शीम. वनस्पत आनी प्राणी हांचेमदलें कातीचें स्वरूप, संरचणूक आनी कार्यां हीं वेगळीं आसतात. हे नोंदींत फकत प्राण्यांचे कातीचें वर्णन केलां आनी मनीस आनी कांय जनावरांच्या कातीच्या रोगाविशीं म्हायती दिल्या.

कात म्हळयार फकत एक राखण करपी आवरण न्हय, तिचीं हेर बरीच कार्यां आसतात. कांय प्राण्यांची कात जंतूंक प्रतिकार करता, कुडीचे उश्णतायेकडेन तिचो संबंद आसता आनी कांय प्रकारांत स्वास घेवपाचेंय कार्य करता.

**फाटीचो कणो नाशिल्ल्या प्राण्यांची** (Invertebrates) **कातः** बऱ्याच आदिजीवांमदीं (protozoa) शरीराचेर फकत नाजूक कोशिका कलेचें (कोशिकेच्या भायल्या थराचें) वा जीवद्रव्य कलेचें (plasma membrane) भायलें आवरण आसता. चडशा भोवकोशिक (multicellular) फाटीचो कणो नाशिल्ल्या प्राण्यांच्या शरीराचेर ऊतकांचें (tissues) एक प्रकारचें आवरण आसता, ताका भायली कात म्हण्टात. बऱ्याच जंतूंच्या शरीरावयले भायले कातींतल्यान येवपी स्त्रावाक लागून आनीक एक अकोशिक आवरण तयार जाता.

संधिपाद (Arthropoda) प्राण्यांमदीं भायली कात कोशिकांच्या एकाच थराची आसता आनी तिच्या स्त्रावापसून भायलो सांगाडो तयार जाता. जमनीवयल्या संधिपाद प्राण्यांच्या शरीरावयली कात शरीरांतल्या द्रव्याचो उणाव जावंक दिना. तिचेर एक खासा थर आसता. हाका लागून बरेचशे कीड-जीव सामक्या सुक्या वाठारांत लेगीत रावंक शकतात.

**फाटीचो कणो आशिल्ल्या प्राण्यांची** (Vertebrates) **कातः** हांची कात दोन थरांची आसताः भायली कात आनी भितरली कात. हातूंतल्या घटकांमदीं फरक आसता. कांय जनावरांचे कातींतल्यान तयार जाल्ल्या स्त्रावांक लागून लैंगिक आकर्शण घडटा.

**मनशाची कातः** मनशाचे कातीचे तीन वेगवेगळे भाग करूं येतात. ते म्हळयार (अ) भायली कात (epidermis) (ब) भितरली कात (dermis) आनी (क) कातीपोंदची ऊति (connective tissues). केंस, मांसपिंडां (glands) आनी नाखटां, भायले कातींत जरी दिसलीं तरी तांचो आरंभ भितरले कातींत जाता. म्हत्वाच्या मांसपिंडांनी चरबीग्रंथी आनी घामग्रंथी हांचो आस्पाव जाता. हे भायर कातीभितर रगताच्यो शिरो आनी मज्जातंतू बऱ्याच प्रमाणांत आशिल्ल्यान चामडेर जाल्ले भायले परिणाम रोखडेच दाखोवंक शकतात. कातीचे संवेदनशीलतेवयल्यान हून-थंड, मोव-घट ह्यो गजाली समजूं येतात. तेचप्रमाण कसलोय भायलो आघात (देखीक- चिमटो, थापट) भायले कातीचेर जाता, तेन्ना तो पुराय शरीराक जाणवता. भायले कातींत मेलोनोसाइट्स नांवाच्यो पेशी आसतात, ज्यो 'मेलानीन' नांवाचें द्रव तयार करतात आनी ह्या द्रवावयल्यान कातीचो रंग थारता. 'मेलानीन' चड आसल्यार कात काळी जाता. शरीराच्या कांय भागांवयली कात चड संवेदनशील आसता. देखीक- ओंठ, हातांचे तळवे, कानांच्यो पाळयो, जननेंद्रियां. पांयांच्या तळव्यांवयली कात उणी संवेदनशील आसता.

घामाच्यो ग्रंथी कातींत सांपडटात. कांय जाग्यांचेर, देखीक-कपल, हातांचे आनी पायांचे तळवे हांगा तांचें प्रमाण चड आसता. चरबी ग्रंथी हातापांयांच्या तळव्यांचेर मेळनात. तांचें प्रमाण माथें आनी मुखामळ हांगा चड आसता. कातीचेर आयिल्ले केंस कुडीची राखण करपांत म्हत्वाचो वावर करतात. हे केंस सबंद आंगार पातळ प्रमाणांत आसतात, पूण कांयकडेन दाट आसतात. देखीक- खांके, माथें, जननेंद्रियांलागीं आनी दादल्यांक खाडमिश्यांच्या रुपान मुखामळार. भितरले कातीची दाटाय तीन मिमी. इतली आसता. सगळ्या ग्रंथींचो आनी शिरांचो तशेंच केंसांच्या मुळांचो भार भितरले कातीचेर आसता.

घामाच्या ग्रंथींवरवीं कुडींतले नाका आशिल्ले पदार्थ घामांतल्यान भायर पडटात. कुडीचीं कांय दुयेंसां आनी रगतांतले बदल कातीवयल्यान समजूं येतात. कातीवयल्या बदलांच्या अभ्यासावयल्यान एखाद्र्याचे पिरायेचो अदमास काडूं येता. कांय वखदां, देखीक- नायट्रोग्लिसरीन,

तेच भशेन कांय विखाळ पदार्थ कातीवरवीं कुडीचेर परिणाम करूंक शकतात. कातींत घटाय दिवपी Vitamin D सारको घटक अल्ट्राव्हायलेट किरणांच्या आदारान तयार जाता. कुडीची वाड जातना कात वाडटा वा आंवळून येता (देखीक- गुरवाचाराच्या वेळार). मरणा उपरांत कातीच्या अभ्यासावयल्यान सादारणपणान केन्ना मरण आयलां, हाचो अदमास काडूं येता.

**मनशाक जावपी कातीचे रोगः**

*१. खरज (खोरोज) (Scabies):* हो एक वशाचो रोग जावन आसा. 'सारकोप्टीस स्केबी' नांवाच्या एका सूक्ष्म किडीक लागून ह्या रोगाची लागण जाता. हो रोग संसर्गी आसा आनी एकल्याक लागून दुसऱ्याक सहज जावंक शकता.

ह्या रोगाचें पयलें लक्षण म्हळ्यार आंग खोरजप. किडीन कातीभितर बारीक बुराक पोखरिल्ले आसतात. ते ल्हवल्हव नदरेक पडूंक लागतात. ह्या बुराकांनी कीड तांतयां घालता आनी त्या वेळार कातीक बुड्डण सुरू जाता. हीं तांतयां फुटून अर्दकुटे वाडिल्ले किडे भायर सरतात. नर आनी मादीचो संबंद आयल्या उपरांत नर किड्याक मरण येता आनी मादी किडीची वाड जावन ती चड बुराक पोखरूंक लागता.

खोरोज जावपाचे कांय खास जागे आसात. देखीक- हाताच्या बोटांमदलो जागो, खांके, बोंबले भोंवतणी, पोटाचो सकयलो भाग, जांघांचो भितरलो भाग आनी जननेंद्रिया लागसार. पूण चड प्रमाणांत जायत जाल्यार खोरोज आंगभर पातळटा.

खोरजेच्या किड्याक आळाबंदाक हाडपाखातीर आंगावयले कपडे आनी वापरांतल्यो हेर गजाली नितळ आसप गरजेच्यो. रोगाची लागण जाल्यार कपडे उदकांत उकडून तांचेर फेर मारतात. ह्या रोगाचेर वखदां आसात, तीं अशीं- बेन्झाइल बेन्झोएट, गामा बेन्झीन हॅक्साक्लॉराइड, मोनोसल्फीराम, क्रोटामिटोन. वखदां लावचेपयलीं आंग धुवंक जाय. उपरांत खरखरीत कपड्यान आंग पुसून वखद मानेसावन पांयांच्या बोटांमेरेन सगळे कुडीक लावंक जाय.

आंग सदांच नितळ आसल्यार खोरोज जावंक पावना.

*२. चरतें (Ringworm):* हो एक आंगार पातळपी सुक्या रंवथ्याचो रोग. कात बुरशी आसल्यार हो सुको रंवथो भायले कातींत बरे तरेन वाडटा. केंसांनी आनी नाखटांनीय हो रोग पातळटा.

चरत्याचे खूब प्रकार आसातः माथ्यांतलें चरतें, खाडांतलें चरतें, कातीचें सादारण चरतें, जांघांर जावपी चरतें, हातापायांचें चरतें आनी नाखटांचें चरतें. खाडाचें चरतें चड प्रमाणांत जाण्ट्या दादल्यांक जाता. म्हाल्याच्या वाखरांतल्यान हो रोग चड पातळटा.

कातीचें सादारण चरतें आंगाच्या खंयच्याय भागार दिसूं येता. पयलीं एक बारीक पुळी येवन उपरांत ती भोंवतणी वांटकुळी पातळत वता. मदलो कुडको बरो उरता. अशेतरेन तो सगळ्याक पातळटा. कुडीच्या भितरल्या भागांनी जावपी चरतें घामसाणीक लागून जाता. हातापांयांचें चरतें उश्ण वातावरणाक लागून जाता. नाखटांचें चरतें जातकच नाखटां दाट पूण ठिसूळ जातात आनी रोखडींच मोडटात.

ह्या रोगाआड कपडे नेमान बदलप, आंग नितळ दवरप अशी जतनाय घेवंक जाय. हाचेर कांय रंवथोनाशक वखदां मेळटात, तीं अशीं- क्लोट्रिमॅझोल, मिकोनाझोल, इकोनाझोल बी.

*३. शिबां (Tenia Versicolor):* कातीचेर वयल्यावयर पातळपी हो एक रोग. हाचो रंवथो आंगभर पातळटकच आंगार ल्हान-व्हड, वाकडे तिकडे दाग दिसतात. हे दाग धवे, हळडुवे वा चॉकलेट कोराचे आसतात. दागांवयर बारीक खवळां दिसतात. घाम चड येवपी मनशांक हो रोग चड दिसून येता. वतांत काम करपी लोकांकूय हो रोग जाता.

हो रोग आळाबंदाक हाडपाखातीर आंग सुकें दवरप म्हत्वाचें आसता. कपडे हून उदकांत धुवन घेवचे. आंगाक लावपाचीं कांय वखदां म्हळ्यार सोडीयम हायपोसल्फाइट, सल्फर, सेलीनियम सल्फाइड, टिंक्चर आयोडीन हीं आसात.

*४. पिताम (Urticaria):* पिताम जातकच आंगभर वा आंगाच्या खंयच्याय भागाचेर दादड पातळटात आनी त्या दादडांक बरीच बुड्डण सुटता.

पिताम जावपाचीं कांय मुखेल कारणां म्हळ्यार- १. जीव चाबून- जळारां, भिकूण, म्होंवामूस आदी. २. खाणांतल्यान- कुल्यो, कालवां, तांतयां, सुंगटां अशे आनी कांय हेर जिन्नस चड प्रमाणांत खाल्यार. ३. वखदांचो कसलोय परिणाम जाल्यार. ४. धुल्लाक लागून वा हवेंतल्या हेर प्रदूशणाक लागून.

पिताम जातकच ती कित्याक लागून जाल्या, हें समजून घेवप चड म्हत्वाचें. जे गजालीक लागून पिताम जाल्या, ते गजालीचो वापर करपाचें बंद करीत जाल्यार पर्थून पिताम जायना. दादड चड आयल्यार ताचेर थंडसाणीक लोशन लायत जाल्यार बुड्डण उणी जाता. मेंटीहिस्टामिन्स ह्यो गुळयो घेतल्यार पिताम उणी जाता.

*५. मुमरां (Acne Vulgaris):* हो कातीचो रोग सादारणपणान आडसाटे चले वा चलयांक (२२ वर्सां पिरायेमेरेन) चड प्रमाणांत जाता. चलयांक मासिक पाळी सुरू जाता तेन्ना आनी चल्यांक खाडमिश्यो फुटता तेन्ना मुमरां येवंक सुरवात जाता. पयलीं तेलकट पुळयो येतात आनी त्यो ल्हवल्हव मोट्यो जावन तातूंत मातेरीसारको द्रव तयार जाता. ह्यो पुळयो फोडीना जाल्यार आपशींच सुकतात आनी कांय पुळयांचे दाग वा मावो उरतात.

मुमरां जावपाचे कांय खास जागे म्हळ्यारः पोले, नाक, खाडकी, माथें, हड्डें, फाट आनी भुजां. माथें तेलकट आसल्यार मुमरां चड प्रमाणांत जातात. मुमरांक खास अशीं वखदां नात. तेलकट, तिखट आनी गोड वस्तू चड प्रमाणांत खायत जाल्यार मुमरांचें प्रमाण वाडटा.

मुखामळ साबू लावन दिसांतल्यान तीनचार फावट धुवंक जाय. हाका लागून तेलसाण उणी जाता. प्रसाधनां बरे प्रतिचीं वापरचीं. केंस तेलकट आसल्यार शँपू घालून धुवंक जाय. व्हिटामीन ए चें लोशन मुमरांक लायत जाल्यार गूण पडटा. मुमरांनी मातेरीसारको द्रव चड आसल्यार टेट्रासायक्लिन गुळयो घेतल्यार मुमरां बरीं जातात. मुमरां फोडचीं न्हय. कारण तातूंत इन्फेक्शन जावन ताचो वायट परिणाम जावं येता.

*६. सर्पी (नागीण, सर्पसुत्तु) (Herpes Zoster):* हो एक चामडेंत भितरमेरेन जावपी रोग. ह्या रोगांत उदकान भरिल्ल्यावरी वळीन फोड येतात आनी ते चडशे नेर्वांचे दिकेन जातात. सर्पी जावपाचे सदचे जागे म्हळ्यार खांके आनी कमराभोंवतणी. एका सूक्ष्म व्हायरसाक लागून हो रोग जाता. व्हायरस आंगांत पावतकच ७ ते २१ दिसांभितर पुळेर येता. उपरांत जोर येवंक सुरवात जाता. थोड्या दिसांनी उदकाचे फोड येतात. ते दुखतात आनी ल्हवल्हव मोटे जातात. आंगावयल्यो गांठी सुजतात आनी दुखूंक लागतात. दोनतीन सप्तकांनी हो पुळेर सुकता आनी ताच्यो मावो उरतात.

ह्या रोगाचेर एसायक्लोवीर नांवाचें नवें वखद सद्या आयलां. हे भायर थंडसाणीक केलामीन लोशनाचोय वापर करतात. जोर चड आयल्यार एस्पिरिन वा पॅरासिटामॉल दिवंक जाय. पुळेरांत मातेर जाल्यार अँटिबायोटिक गुळयो घेतात. हो रोग बरो जातकच शिरांनी दूख जाता.

*७. कुश्ठरोग (म्हारोग) (Leprosy):* हो सांसर्गिक रोग भारतांत आनी गोंयांत पयलीं बऱ्याच प्रमाणांत दिसतालो. सद्या तो उण्या प्रमाणांत आसा. 'मायकोबेक्टिरियम लेप्री' ह्या जंतूंक लागून हो रोग पातळटा. ज्या मनशाची रोगाकडेन झगडपाची प्रतिकारशक्त उणी आसता, ताका ह्या रोगाची लागण जाता.

ह्या रोगाचे दोन मुखेल प्रकार आसातः खर (Lepromatous) आनी लेव (Tuberculoid). हांचेमदीं मध्यम प्रकारूय बरेच आसात. लेव प्रकार रोखडो बरो जाता. ह्या प्रकाराचे सुर्वेक एक वा चड शिरो (nerves) मोट्यो जातात आनी तपासतना त्यो हाताक लागतात. आंगाचेर दाग पडूंक सुरवात जातात. हे दाग हात-पांय, भुजां आनी कुल्यांचेर चड दिसतात. हे दाग धवसार आसतात आनी स्पश्टपणान दिसतात. दागांची सुवात भेरेल्ल्यावरी जाता. हे दाग सांपडटा म्हणसर घाम येवप चडकरून

बंद जाता आनी कात सुकी खरखरीत जावन त्या भागावयल्यो संवेदना उण्यो जायत वतात.

खर रोग जाता तेन्ना शिरो चडश्यो हाताक लागनात. दाग मात सगळ्या आंगार पातळटात. जांघांचेर, मुखामळार आनी पांयांचेर हे दाग चड आसतात. नाक सुजता, भुंवयो मोट्यो जातात आनी कान दाट जातात.

डॅप्सोन नांवाच्यो गुळयो नेमान घेत जाल्यार हो रोग पुराय्पणान बरो जावं येता. ते भायर म्हयन्यांतल्यान एक फावट क्लोफाझिमीन आनी रिफामपीसीन हीं वखदांय घेवचीं पडटात. वेळच्यावेळार उपाय येवजून हो रोग आळाबंदा हाडूंक येता.

*८. पैण (Eczema):* हो सादारणपणान सांसर्गिक रोग न्हय. ह्या रोगाचे बरेच प्रकार आसात. सुर्वेक आंगाचो भाग तांबडो जावन सुजता, उपरांत ताचेर पुळेर येवन फुटता आनी फोड येतात. हे फोड व्हांवन चाकळां जातात. ह्या रोगाचो सगळ्यांत चड प्रमाणांत दिसपी प्रकार म्हळ्यार सदच्या उपेगांतल्या वस्तूंक लागून लागण जाल्लो रोग. देखीक- लिपस्टीक, क्रिम, पावडर, बूट, बॅग, घड्याळ, कानांतलीं रिंग्स, शाबू, रंग आनी वखदां हांकां लागून हो रोग जावं येता. कुडीच्या खंयच्याय भागाचेर पैण जावं येता आनी एका प्रकारांत आंगाचेर ल्हान वांटकुळीं चाकळां येतात आनी तांकां बरीच बुड्डण सुटता. ह्या रोगाआड झुजूंक आंग नितळ दवरूंक जाय, नाजाल्यार इन्फेक्शन जावन मातेर जाता आनी रोग चड खर जाता. पैण व्हांवतकच जो द्रव भायर येता तो नेमान पुसून काडूंक जाय. ओल्या कपड्याची घडी पैण जाल्ल्या भागाचेर दिसाक सात-आठ फावट दवरूंक जाय. अशें केल्यार घाय थंड उरता आनी द्रव भायर येवप सोपें जाता. दाग सुकतकच ताका झिंग क्रिम लायल्यार बऱ्याक पडटा. मातेर जाल्यार अँटीबायोटिक गुळयो घेवच्यो पडटात. चड बुड्डण सुटता तेन्ना केलामिन लोशन लायत जाल्यार खाज उणी जाता. नितळसाण दवरप चड म्हत्वाचें आसता.

*९. चामखीळ (Warts):* चामखीळ म्हळ्यार भायले कातीची जाल्ली वाड. चामखीळ एका सूक्ष्म जीवापसून जाता आनी एकट्याकडल्यान दुसऱ्याक जावंक शकता वा आंगाच्या एका भागाकडल्यान दुसऱ्या भागाकडेन वचूंक शकता.

चामखीळ खूब प्रकारचे आसतात. ल्हान भुरग्यांक हातांचेर आनी मुखामळार जातात, ते कातीच्याच कोराचे आनी सुळसुळीत आसतात. तळव्यांचेर जे चामखीळ जातात ते चेपटे आसतात आनी कातींत भितरमेरेन गेल्ले आसतात. दामीत जाल्यार ते दुखतात आनी चलतना त्रास करतात. खूब फावट बारीक बारीक चामखीळ एकठांय येवन एक व्हडलो चामखीळ तयार जाता.

चामखीळ ना करपाचीं वखदां खूब आसात. ट्रायक्लोरोअॅसेटीक अॅसिड हें सगळ्यांत म्हत्वाचें. ह्या वखदांत कापूस बुडोवन चामखीळाचेर लायतात. सॅलीसिलीक अॅसिड हेंय ह्या रोगाचेर एक बरें वखद जावन आसा. चामखीळ चड मोटे जायत जाल्यार ते मशीनाच्या आदारान काडटात. एकदां काडिल्ले चामखीळ पर्थून येवंक शकतात.

*१०. कोड (Vitiligo):* हो रोग सर्रासपणान दिसून येता. हातूंत आंगाचो खंयचोय भाग धवो जाता. हाचें कारण अजून कळूंक ना. हो रोग खंयचेय पिरायेचेर जावं येता. आंगाचो रंग वचून धवेफुल्ल दाग पडटात. दाग चडशे मुखामळाचेर आनी मानेर दिसतात. हातापांयांचेर आनी हेर जाग्यांचेरूय दाग दिसूंक लागतात. हे दाग केन्नाकेन्नाय अकस्मात ना जातात. तशें जावपाक म्हयने वा वर्सां लागतात. पूण चडशे हे दाग सगळ्याक पातळटात आनी पुराय आंग धवें जाता. ह्या रोगाचेर रामबाण वखद अजून सापडूंक ना.

*११. काळपुळयो (Carbuncles):* ह्यो पुळयो चडकरून फाट, मान वा जांघांचेर येतात. सुर्वेक आंगार एक दाग दिसता आनी तो दुखूंक लागता. दुखीन जोर येवन रोग्याक अशक्ततताय येता. दाग मागीर व्हडलो जावन थंय पुळयो येतात. ह्या पुळयांनी मातेर जावन त्यो फुटतात आनी घाय जातात.

हाचेर वखद म्हळ्यार हे घाय सावलोनच्या उदकान धुवन काडूंक जाय. उपरांत फाव ती अँटीबायोटिक क्रीम लावन बँडेज करूंक जाय. सदांच शाबू लावन घाय धुल्यार ते सुजनात. हो रोग चड पातळत जाल्यार पोटांत घेवपाक पेनिसिलीन गुळयो दितात.

*१२. खाज (Pruritus):* कसलेंच कारण नासतना अचकित बुड्डीनशें दिसता, तेन्ना आंगाक 'खाज' वा 'लुंवलुंव' सुटल्या अशें म्हण्टात. कांय फावट गोडेंमूत, कामीण, फिग्दाचें दुयेंस, कांक्र (कॅन्सर) जायत जाल्यार अशी खाज सुटता. जाण्ट्या मनशांक कात सुकिल्ल्या कारणान अशी खाज सुटता. हाका वखद ना, पूण कांयवेळार अँटीहिस्टामीन दिल्यार बरें दिसता. थंड हवेच्या वातावरणांत हो रोग चड दिसून येता.

गुप्तभागांचेर खाज येवपाचो प्रकार ३० ते ५० पिरायेभितर चड दिसून येता. आंग नितळ दवरल्यार ती खाज उणी जाता. हाचेर क्रीम लायल्यारूय बऱ्याक पडटा.

*१३. पिठें (Icthyosis):* बरेंच फावट कांय लोकांच्या कातीचो पिठो पडटा. कांय कारणांक लागून जल्मासावनूच कात सुकी सडसडीत आसता आनी हाताक खरखरीत लागता. कातीचीं खवळां येवंक सुरवात जाता. १ ते ४ वर्सां पिरायेच्या वेळार हो रोग सुरू जाता आनी ल्हवल्हव वाडत वता. चामडेक हात लायल्यार पिठो पडटा आनी कातीचेर कात्रे पडटात.

अशा लोकांची कात चकचकता. मुखामळार ताचो चडसो परिणाम जावंक पावना. ओंठाच्या कोनशांक कात्रे पडूंक शकतात. नाखटां दाट जावन तांचेर भेगो पडटात. अशे पिठें जाल्ले कातीक पैण जावपाची शक्यताय बरीच आसता. हाकालागून कात धुवन नितळ दवरची पडटा. चड शाबू लायत जाल्यार कात फुटूंक शकता. वताक रावल्यार असल्या रोग्याक बरें दिसता, कारण घाम येवन कातीक मात्शी थंडसाण मेळटा.

हाका खास असो उपाय ना. जतनाय म्हूण क्रीम वा लोशन आंगार लयतात.

*१४. घामोळें (Miliaria):* घामोळें हें दुयेंस न्हय. चड घाम येतकच आयिल्लो तो एक प्रकारचो पुळेर. घामोळें चड प्रमाणांत गिमाच्या दिसांनी येता. घाम येवन आंगावयले कपडे काडिनासतना दवरीत जाल्यार हो पुळेर उत्पन्न जाता. ल्हान भुरग्यांक हो पुळेर चडसो येता.

घामोळें खांक्यांनी वा फाटीचेर चड सांपडटा. ताका खास उसो उपाय ना. आंगाची नितळसाण दवरप, नितळ कपडे घालप ही पुळेराआड जतनाय घेवंची पडटा. घामोळ्याचें प्रमाण चड आसल्यार पावडर वापरतात.

- डॉ. पद्मनाभ राताबोली
- डॉ. दयानंद राव

**आयुर्वेदीय चिकित्साः** आयुर्वेदांत कुश्ठरोगाचे वट्ट १८ प्रकार सांगल्यात. तातूंतलीं ७ महाकुश्ठां जाल्यार ११ क्षुद्र कुश्ठां आसात. वातादि त्रिदोशाच्या योगान कुश्ठाचे सात प्रकार आसातः वातजन्य, पित्तजन्य, कफजन्य, वातपित्तजन्य, पित्तकफजन्य, कफवातजन्य, त्रिदोशजन्य.

**महाकुश्ठांः** *कपालकुश्ठ-* काळसर तांबडे. रुक्ष आनी खरखरीत. वेदना अदीक आसतात. हाचेर उपाय म्हूण वावडिंग, सुंठ, मिरयां, पिंपळी, हरडा, बेहडा आवळकाठी, नागरमोथा, चित्रक, बचनाग वेखंड गोड, समभाग घेवन ताचो कल्क करून लेप लायतात. *औदुंबरकुश्ठ-* शूल, दाह. रंग तांबडो. कात पिकपाचो संभव चड आसता. *मंडलकुश्ठ-* धवो रंग, कठीण, ओलसर, तुळतुळीत, मंडलाकार. उपाय म्हूण चित्रकाच्या कल्पाचो लेप घांसून घांसून लायतात. ताचेर निर्गुंडीच्या बिंयांचो लेप लायतात. *सिध्मकुश्ठ-* धवे, तांबसर, कात पातळ, दुदया फुलाच्या रंगाची. हो रोग कमराच्या वयल्या भागांत जाता. उपाय कार्पासिकापत्रादिलेप, मूलकबीजलेप, गंधकादि लेप, रसादिलेप, कासमर्दकबीजादि लेप.

**क्षुद्रकुश्ठांः** *एककुश्ठ-* धर्मविरयत, नुस्त्याच्या खवळांभशेन. *चर्मकुश्ठ-*

हत्तीच्या चामड्यासारके दाट. *किटिभकुश्ठ-* खरखरीत, रूक्ष, खाजयुक्त. *वैपादिकुश्ठ-* हातपांय फुटून तांकां भेगो पडटात. वेदना जातात. *असलकुश्ठ-* खूब खाज येता. फोड तांबड्या रंगाचे आसतात. *दद्रुमंडळकुश्ठ-* खाजयुक्त, तांबडे ल्हान फोड. *चर्मदलकुश्ठ-* तांबड्या रंगाचे. खाज येता, स्पर्श सहन जायना, दाह जाता. *पामाकुश्ठ-* बारीक पुळ्यो येतात, तातूंत लस व्हांवता, खाज येता. *कच्छुकुश्ठ-* पामकुश्ठाचो उग्र प्रकार. *विस्फोटककुश्ठ-* काळसर तांबडे, पातळ कातीचे फोड. *शतारुकुश्ठ-* तांबसर रंगाचे, दाह वेदना खूब. आंग व्रणांनी भरता, किडे पडटात. *विचर्चिका-* श्यामवर्णी, खाजयुक्त; फोड, स्त्राव खूब जाता.

**उपाय:** गुंजादिलेप- गुंजा आदी १८ वखदां एकठांय घेवन तांचो लेप लायल्यार गजचर्म, दद्रु कंडू हांचो नाश जाता. आरग्वधलेप- बाहत्याच्या पाल्याचो लेप. गजचर्म, दद्रु, पामा, विचर्चिका हांचेर उपयुक्त. पिप्पल्यादि लेप- पिंपळी, करंज, तुळस, कोश्ठ, गोरोचन, चित्रक ह्या स वखदांचो लेप किटिभकुश्ठाचेर उपेगी पडटा. शिलादि लेप- मनशीळ, हिराकस, मोरचूद हीं तीन वखदां गायच्या मूतांत वांटून तांचो लेप करतात. किटिभ, विसर्प हांचेर उपेगी पडटा. शिरसादितैल- धोत्र्याच्यो बियो आनी सैंधव उदकांत वांटून ताचो कल्क करून आनी शिरसाच्या तेलान सिध्द करतात. हें तेल वैपादिक कुश्ठाचेर गुणकारक जावन आसा.

दद्रू, किटिभ हांचेर फुडले लेप उपेगी थारतात. मूलकबीजादिलेप (मुळ्याच्यो बियो), आरग्वधपत्रलेप (बहाव्याचो पालो), प्रपुनाटबीजादिलेप (तायखिळ्याच्यो बियो), विडंगादि लेप (वावडिंग), दूर्वादि लेप. सिंदूरादिलेप- पांयाकुश्ठाचेर उपेगी. बृहात्सिंदूराहातैल हें २२ वखदांचें तेल पामा, विचर्चिका, कच्छु, विसर्प हांचेर उपेगी.

पोटांत घेवपाचीं वखदां: गुग्गुलुसेवन, खदिरारिश्ट, महारवदिरघृत, पंचनिंबचूर्ण, मंजिश्ठादिकाढो, भल्लातकावलेह, त्रिफलादिगुटिका, विडंगादि चूर्ण.

- शरदिनी डहाणूकर

जनावरांचे कांय कातीचे रोग: जनावरांमदीं कातीच्यो जल्मजात विकृती चडश्यो दिसून येनात, पूण फुडें कातीचेर पडिल्ल्या भाराक लागून जाल्ल्या रोगांचें प्रमाण चड आसता. येरादारीखातीर वापरिल्ल्या जनावरांचे कातीक खोगीर वा हेर गजालींच्या घर्शणाक लागून पर्थून पर्थून सूज येवन थंयचो भाग दाट जाता. कांय फावट थंयचे कातीर घाय जातात. सुक्ष्मजंतू, व्हायरस हांकांय लागून जनावरांक कातीचे रोग जातात. मनशाक जावपी कातीचे कांय रोग आनी तांचीं लक्षणां जनावरांमदींय बरेच फावट दिसतात.

जनावरांचे कातीच्या रोगाचेर सॅलिसिलीक ॲसिड, गंधक आनी प्रतिजैव वखदां उपायाचे नदरेन वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**कात्यायनी बाणेश्वर:** शाक्तपंथीय लोकांची एक देवता. सप्तशतीच्या देवी कवचांतल्या ३ ते ५ व्या श्लोकांत 'कात्यायनी' ही आदिमाया आदिशक्ती नवदुर्गेचो सवो अवतार म्हळां. ते श्लोक अशे:

> प्रथमं शैलपुत्रीति, द्वितीयं ब्रह्मचारिणी,
> तृतीयं चन्द्रघण्टेति, कूष्माण्डेति चतुर्थकम्,
> पंचमं स्कन्दमातेति, षष्ठं कात्यायनिती च,
> सप्तमं कालरात्रिश्च, महागौरीति, चाष्टमम्,
> नवमं सिध्दिदात्री च नवदुर्गा: प्रकीर्तित:।

कात्यायन ऋषीन तिची आराधना केली. ती सान कुमारिका जावन ताच्या आश्रमांत रावली. देखून तिका 'कात्यायनी' हें नांव पडलें.

स्कंदपुराणांत हे देवतेचो उल्लेख मेळटा. परशुरामान आपली भूंय कश्यपाक दान केली. उपरांत स्वताखातीर सुवात निर्मूंक सह्याद्रीच्या रामघाटावेल्यान बाण माल्लो आनी दर्याक पयस धुकल्लो. ते सुवातेक 'सप्तकोंकण' म्हणपाक लागले. ताणें मदले सुवातेर जंय बाण मारिल्लो थंय बाणवल्ली (आतां बाणावली) म्हणपाक लागले. परशुरामाक, ह्या बाणावली गांवांत कात्यायनीचें देवूळ बांदचें, असो ब्रह्मबाणी वखीं साक्षात्कार जालो. ताणें ते प्रमाण थंय कात्यायनीचें देवूळ बांदलें.

साश्ट म्हालाच्या बाणावली गांवांत कात्यायनी बाणेश्वराचें देवूळ आदल्या काळासावन आसलें. १५४० ते १५४५ च्या सुमाराक पोर्तुगेज आनी जेजूईत कॅथॉलिक मिशनऱ्यांनी हेर देवळांवांगडा ह्याय देवळाचो विध्वंस केलो. देवूळ मोडटकच देवतेच्या म्हाजनांनी देवतेची मूर्त एका ल्हान व्हड्यांतल्यान अरबी दर्यांतल्यान दक्षिणेक कारवार हांगा व्हेली. अंकोला म्हालांतल्या बेळेकरी गांवांत दर्या वेळेर देवीची थापणूक जाली.

एक फावट पोंवळेकार नांवाच्या वेपाऱ्यालो मचवो दर्याच्या चिखलांत रोमलो. तेन्ना वेपाऱ्यान ह्या संकश्टांतल्यान सोडयल्यार आपूण मचव्याच्या आकाराचें देवूळ बांदतलों, अशें सांगून घेतलें. मचवो बरे तरेन पावलो आनी ताका तातूंत खूब फायदो जालो. वेपाऱ्यान खोशी जावन मचव्याच्या आकाराचें देवूळ बांदलें, थंय देवीची थापणूक केली. मंगळारा माघ शुध्द नमी दिसा देवीची नवे वास्तूंत प्रतिश्ठापना केली. हें देवूळ बेळेकेरी सावन दक्षिणेक सुमार तीन किमी. अंतराचेर अवर्शे गांवांत श्री भूदेवी हे थळावे देवतेचे मान्यतायेन बांदलें.

**देवीचें रूप:** देवीचें रूप कुमारिकेचें आसून तिच्या उजव्या हातांत तलवार आनी त्रिशूळ, दाव्या हातांत शंख आनी महिषासुराची जिबली आसा. तिची मान फुडलेवटेन (सन्मुख) बागवल्ली आसा.

श्री बाणेश्वराचें लिंग, गणपतीची मूर्त, रामपुरुष, ग्रामपुरुष, निराकार, वाठाराचो राखणदार, शाबरी तंत्रांतलो काळभैरव आनी दाड हे दोगूय गण, हो कात्यायनीचो परिवार जावन आसा.

**संस्थापक जाळवणदार:** प्रभु, कीर्तनी, गुरव, जोशी, हे ह्या देवळाचे संस्थापक जाळवणदार आसात.

**म्हाजन कुळावी भजक:** प्रभू, किर्तनी, शेणय, गांवकार, आबाडे, नायक डांगी हे देवीचे म्हाजन, घार्से, भट, बाणावलीकर, नायक, नायक सलत्री, शानभाग, शेणय, बाळीगा हे कुळावी तर थळावे लोक, बेळेकेरीचे खारवी आनी हेर जायतो लोक तिचो भजक आसात.

जामदग्न्य, भारद्वाज, अत्री, कश्यप, कौशिक, कौंडिण्य आनी वत्स गोत्रांचे लोक देवीचे कुळावी आसात.

**मुखेल उत्सव:** देवीची पालखी भायर काडटना खारवी घुडी धरतात. प्रभू आरत-घांट तर किर्तनी ताळ घेतात. दर शुक्ल नमीचे राती देवीची पालखेंतल्यान मिरवणूक काडटात. आश्विन आनी माघांतल्या पाडव्याक कौल-प्रसाद जाता. आश्विन शुध्द पुनवेक ग्रामपुरसाचो भार गांवकाराचेर येता. तो तापिल्ल्या तेलांतल्यान वडे काडटा. गांवकार घराण्याक सुतक वा सुयेर आसल्यार प्रभु कुटुंबांतल्या मनशाचेर भार येता.

वैशाखांतली वसंत पूजा (पानकपूजा) आनी माघ तशेंच आश्विन शुध्द नमीचे उत्सव, आश्विन शुध्द दसमीचें 'कुमारिका पूजन' हे म्हत्वाचे उत्सव आसात.

कात्यायनीचें संगमरवरी फातराचें एक देवूळ महाराष्ट्र राज्यांत 'कोल्हापूर' हांगा आसा. नवी दिल्लीसावन बारा किमी. अंतराचेर छतरपूर हांगाय तिचें देवूळ आसा. थंय कात्यायनी ट्रस्टाचें व्हड हॉस्पिटल बांदपाचें काम चालू आसा. कात्यायनीचो एक मठ मंगळूराक आसा.

कात्यायनीचें स्तोत्र अशें:

> सर्व मंगल मांगल्ये शिवे सर्वार्थसाधके ।
> शरण्ये त्र्यंबके गौरी कात्यायनी नमोस्तुते ।।
> शरणागत दीनार्त परित्राण परायणे ।
> सर्वस्यार्ति हरे देवी कात्यायनी नमोस्तुते ।।

- प्रा. उल्हास वि. पै. भाटीकार

**काथो:** नाल्ल आनी सुपारी हेभायर आंबो, आंबाडो हांचे घट बियेचेर वा फळाच्या भितरल्या कवचाचेर आशिल्ल्या केंसाळ आवरणाक 'काथो' (coir) अशें म्हण्टात.

माडाचो 'पिडो' वा 'शेवक' हांच्याय तंतूंक वा धाग्याक काथो अशें म्हण्टात. पूण सादारणपणान नाल्लाची निबर तिकतिकीत कट्टी आनी वयली साल वा कात हांच्यामदल्या धाग्यांच्या मोव आवरणाक काथो अशें

म्हण्टात. काथो हो भायले कातीचो (सोण्णाचो) एक भाग आसता. ह्या काथ्याचें वजन नाल्लाच्या वट्ट वजनाच्या ३५ % आसता.

**संयोजनः** सकयल दिल्ल्या कोश्टकांत दाखयिल्ल्याप्रमाण काथ्याच्या धाग्याचें रसायनीक संयोजन नाल्लाचे पिरायेचेर आदारित आसता.

सुके कातींत जैव पदार्थाचें (organic matter) प्रमाण ९५ % जाल्यार खनिजां (mineral ash) चें प्रमाण ५% आसता. धाग्यांभितर हें प्रमाण ९९+१% अशें आसता.

(काथ्यांत वूल भरसून), पांयपुसणीं, गादयो आनी सोफा वा मोटार गाडयांची सीटां, वाहनां आनी रेल्वे उद्येग, नाजूक वस्तूंचे पॅकिंग, वातानुकुलिन उपकरणां, बोटींचे आनी व्हड्यांचे उद्येग, वायू गाळणी, तेल गाळणी (ऑलिव्ह तेल), दर्यांत खोलमेरेन घाल्ल्यो केबल्स, नुस्त्याचीं जाळीं विणप, तरेकवार झाडू आनी ब्रश तयार करप, गोरवां आनी हेर पोशिल्ल्या जनावरांखातीर दावीं, रजू आनी दोरयो, रेवेंच्यो पोतयो आदी सगळ्या वस्तींनी काथ्याचो भोव उपेग जाता.

| नाल्लाचे प्रकार | सुक्या वजनाच्या आदाराचेर घटकांची टक्केवारी | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| | टी. एस्. एस्. | पेक्टीन | हेमिसेल्यूलोज | सेल्यूलोज | लिग्नीन |
| *जाण्टो नाल्ल* | | | | | |
| (अ) कात/सोण्ण | २६.० | १४.२ | ८.५० | २३.९ | २९.२ |
| (ब) काथो | ५.२ | ३.० | ०.२५ | ४३.४ | ४५.८ |
| *तरणो नाल्ल* | | | | | |
| (अ) कात/सोण्ण | २९.० | १४.८ | ८.१० | १९.२ | ३१.६ |
| (ब) काथो | १६.० | २.७ | ०.१५ | ३२.९ | ४०.५ |

**काथ्याचे प्रकारः** सैमीक अवस्थेंत काथो म्हळ्यार ल्हान (३-५ सेंमी.), मध्यम (५-१५ सेंमी.) आनी लांब (१५-३५ सेंमी.) धाग्यांचो वा तंतूंचो, भुशाक लागून एकठांय उरिल्लो एक चोमो. हो चोमो पिंजून तंतू वेगळे करूं येतात. यांत्रिक पध्दतीन वा हातान हे तंतू वेगळे करून ताचो काबळो तयार करतात. खुसोवणी वा पिंजप केल्या उपरांत ताचे तीन विभागांत वांटे जातातः १. शेंदऱ्यो तयार करपाचे धागे २. लांब वा मोटवे धागे ३. काबळो.

मोटवे धागे आनी काबळो भरसून आनी वळून केन्नाय 'कुल्लां' आशिल्लो धागो तयार करतात. ह्या धाग्याचो उपेग रबरमिश्रित काथो तयार करपाखातीर जाता.

शेंदऱ्यो तयार करपाचो धागो तरण्या नाल्ल्यांतल्यान (१० ते ११ म्हयने पोरन्या) काडटात. शेंदऱ्यांचीं वा राजवांचीं आनी दोरयांचीं सुतां कातपाखातीर हो सगळ्यांत लांब आनी लवचिक असो धागो वापरतात. १००० सोण्णां, ८०-१०० किग्रॅ. वजनाचे धागे दिवंक शकतात.

मोटवे धागे लांबायेन उणें आशिल्ल्यान तांचो उपेग सारण, झाडू करपाखातीर जाता. हाच्यो १ बांदणी, २ बांदणी आनी ३ बांदणी अश्यो प्रति आसतात. ३ बांदणी प्रतिचो धागो सगळ्यांत लांब आनी सगळ्यांपरस बरो आसता. चडशा फावट ताका काळो रंग दितात आनी मागीर ताचें १३ किग्रॅ. वा १५ ते २०० किग्रॅ. मेरेन गठ्ठे बांदतात.

काबळो हो सगळ्यांत ल्हान धागो. ताचो उपेग गादयो, खुर्च्यो वा सोफांखातीर जाता. १००० सोण्णां, ५० किग्रॅ. मोटवो धागो आनी १०० किग्रॅ. काबळो दिवंक शकतात.

**गुणधर्म आनी उपेगः** काथ्याचेर दर्याच्या उदकाचो कांयच परिणाम जायना. चुनो आनी सोडियम सिलीकेट भरशित जाल्यार ताचेर उज्याचोय परिणाम जायना. ताची उश्मीय संवाहकता (thermal conductivity) उणी उरिल्ल्यान निरोधक (insulator) म्हूण ताचो बरोच उपेग जाता. काथो आपल्या वजनापरस आठ पटीन चड उदक शोषून घेवंक शकता. उदकांत विरगळपी पोटॅश मेळोवपाचे नदरेंतल्यान ताचो उपेग जाता. सोण्णाच्या गोबरांत लेगीत २५-३५% पोटॅश आसता. लांकडाच्या अंशाचें प्रमाण काथ्यांत आशिल्ल्यान ताचो उपेग लांकडाचेर वाडपी अळम्यांखातीर (धिंग्री अळंबी) जाता.

काथ्याचे काजळेचो उपेग लांकूड तिगोवपाखातीर जाता. हे काजळेचो उपेग कच्च्या लोखणाचे निर्मणेखातीर आनी घरगुती वापराखातीर जाता. काथ्याचे वेगवेगळे उपेग जातातः शेंदऱ्यो आनी मॅटिंग, कपडो, नकली छतां आनी ध्वनि निरोधक, गालिचे, कांबळी

**काथो उत्पादनः** रबरमिश्रित काथो तयार करपाखातीर आनी यांत्रिक पध्दतीन काथ्याचे धागे तयार करपाखातीर डावनस् डिकॉर्टीकेटर सर्रासपणान वापरतात. सोण्णां उदकांत भिजयल्याबगर वा कुसयल्याबगर पिंजपाचे हे प्रक्रियेंतल्यान मोटवो धागो आनी काबळो मेळटा.

सगळ्यांत बरे प्रतिचो धागो नाल्ल पांचव्या रंगाचो आसतना तांची सोण्णां काडटकच मेळटा. हीं सोण्णां काडून तीं एका फोंडांत उदक घालून तातूंत फुगत घालतात. हांचेर सुक्ष्मजीव प्रक्रिया जावन ती कुसपाखातीर ६ ते १२ म्हयने वतात. न्हंयची खाडी वा खारसाणीचें उदक सोण्णां कुसोवपाखातीर चड उपेगाचें थारता आनी हाका लागून काथ्याक झगझगीत कोर मेळटा.

सोण्णां मोव जाल्या उपरांत तांकां लांकडाचे खुंटयेन, चड करून चिचेच्या लांकडाचे खुंटयेन धोडायतात. हाका लागून काथो आनी भुसो पुरायपणान वेगळो जाता. उपरांत तो सुकोवन ताका हातान वा चक्राचेर कातताल.

**काथो उत्पादकः** भारतांतलें केरळ राज्य काथ्याच्या उत्पादनांत बरेंच फुडें (१,४७,००० टन) आसा. श्रीलंका, बांगलादेश आनी झांझीबार काथ्याचें उत्पादन उण्या प्रमाणांत करतात. श्रीलंका, थायलंड, केनिया, टांझानिया आनी सेशल्स हे देश ठिसूळ धागो आनी काबळो उत्पादनांत मुखार आसात. काथ्याचें उत्पादन करपी संवसारांतले मुखेल देश १९७१ तले आंकडेवारीप्रमाण अशे आसातः भारत (१६१ हजार टन), श्रीलंका (१०० हजार टन), टांझानिया (८.५ हजार टन), बांगलादेश (८.५ हजार टन), थायलंड (३.५ हजार टन), फिलीपिन्स (२.५ हजार टन), ब्रह्मदेश (२.२ हजार टन), केनिया (२ हजार टन), सेशल्स (१.९ हजार टन), मलेशिया (१.५ हजार टन), मोझांबीक (१ हजार टन) आनी मोरोक्को (०.५ हजार टन). संवसारांतलें वट्ट उत्पादन २,८९,९०० टन इतलें आसा. काथ्याच्या उत्पादनांतल्यान भारताक बरेंच परकी चलन मेळटा. देशांतल्यान १९७१ त ५४,२५२ टन काथो उत्पादनाची निर्यात जाली आनी तातूंतल्यान १४३.६ दशलक्ष रुपयांचें परकी चलन मेळ्ळें. निर्यात जरी सद्यामेरेन तशीच आसा तरी काथ्याच्या दरांत वाड जायत आसा.

काथो रेखडोच पेट घेता पूण सवकसायेन जळटा, हाका लागून गांवगिऱ्या वाठारांनी चूली पेटोवपाखातीर ताचो उपेग करतात. गोंयांत खावपाचे जिन्नस शिजोवपाखातीर सोण्णांच्या उज्याचो उपेग करतात, तो भट्टी वा खोर्न पेटोवपाखातीरय वापरतात.

फाटीच्या कण्याचे आनी तंत्रिका तंत्राचे (Nervous System) विकार

आशिल्ल्यांक काथ्याचे पातळ गादयांचेर न्हिदपाची डॉक्टर शिफारस करतात. काथ्याची उश्मीय संवाहकता उणी आशिल्ल्यान गिमाच्या दिसांचे गरमेंत काथ्याच्या हांतरुणाचेर न्हिदिल्ल्यान शीतळसाण मेळटा.

**गोंयांतलें काथ्याचें उत्पादनः** गोंयच्या 'कळंगूट' जातीच्या नाल्लाचें सोण्ण 'बाणावली' जातीच्या नाल्लापरस चड दाट आशिल्ल्यान ताचो काथो तयार करपाखातीर चड उपेग जाता. सोण्णां कुसोवन काथो काडपाचो उद्येग चोपडें न्हंय (शिवोले-कोलवाळ) आनी तेरेखोल न्हंय (केरी-पेडणें) हांगा चड जाता. म्हापशां आनी दिवचल (कारापुर) हांगाच्या उद्येगीक वसाहतींनी दोरयो तयार करपाखातीर काथ्याचे धागे काडपाचो उद्येग चलता.

- मिंगेल ब्रागांझ

**कादंबरी:** एक दीर्घ कथात्मक गद्य साहित्यप्रकार. इंग्लीश 'नॉव्हल' ह्या उतराचो कादंबरी हो भारतीय/कोंकणी पर्याय आसा आनी 'बाणभट्ट' हाच्या कादंबरी ह्या संस्कृत कथात्मक ग्रंथाच्या नांवावयल्यान तो भारतीय भाशांनी आयलो.

अनुभूतिच्या आदाराचेर वास्तव चित्रण करपाखातीर खूबशीं पात्रां आनी बऱ्योच घडणुको कथानकांत गुंथून विस्तारान रचिल्ल्या गद्य साहित्यप्रकाराक कादंबरी म्हण्टात. कोंकणींत ताका नवलकथा अशेंय म्हण्टात. कोंकणीतलो पर्याय इंग्लीश उतर 'नॉव्हल' (Novel) म्हळ्यार कितें तरी नवें दिवपी, हाचेवयल्यान 'नवलकथा' वा 'नवलकाणी' ह्या रुपान आयलो.

मनोरंजन हो नवलकथेचो हेत आसलो, तरी प्रबोधन हो तिचो मुखेल हेत आसा. सर्जनशील बरोवपी अणभवाच्या कसार घासून विंगड विंगड पात्रांचें आनी घडणुकांचें जेन्ना विस्तारपूर्वक चित्रण करता, तेन्ना पुराय समाजवेवस्था वास्तवरुपान वाचप्यामुखार उबी रावता. हाकाच लागून नवलकथा म्हळ्यार खासा थळ, काळ आनी समाज हांचो एकैतरेचो इतिहास अशेंय मानतात.

साहित्याक गद्य परंपरा नाशिल्ली तेन्ना हो प्रकार महाकाव्याच्या रुपान रचताले. रामायण, महाभारत हीं पूर्विल्ल्या काळांतलीं महाकाव्यां भारतांत सगळ्या लोकांच्या वळखीचीं आसात. हेर कडेनूय 'रोमान्सी' वा 'फॅब्लो' ह्या नांवान पद्यकाणयो बरयताले. जादू, चमत्कार, पराक्रम हातूंतल्यान आदर्शवाद जागोवपी ह्यो काणयो चडश्यो राजा, सरदार वा शिलेदार हांचेर बरयिल्ल्यो आसताल्यो.

१६०५ वर्सा मिंगेल द सेरवांतिश हाणें बरयिल्ली 'दाँ कियोते' (डॉन क्विझोट) ही आयचे कादंबरीकडेन नातें सांगपी पयली कादंबरी, अशें म्हणूं येता. अवेव्हारी आदर्शवादाच्यो भगलो मारून बरयिल्ले हे कादंबरींत त्या काळावयल्या पद्यकाणयांचीं फकाणां मारून आर्विल्ल्या नवलकथेची बुन्याद घाली. पूण कल्पनाविलासान रंगयिल्ल्या काणयांचो प्रकार वचूंक खूब काळ लागलो.

'रेनासेंस' (प्रबोधनकाळ) च्या उपरांत छापणावळीची उदरगत जाली. शिक्षणाचो प्रसार आनी व्यक्तिस्वतंत्रताय हांका लागून अभिरुची आनी अभिव्यक्ती दोनूय गजालींक मेकळेंपण मेळळें. दरबारी, झुजारी हांचेमदीं घुस्मटिल्लें साहित्य मेकळें जालें. लेखकांनी सादारण मनशांचेर आनी तांच्या जिवितांतल्या घडणुकांचेर बरोवंक सुरवात केली. महाकाव्यां, वीरगाथा ह्यो गजाली फाटीं पडल्यो. सर्वगुणसंपन्न नायक आनी दुराचारी खलनायक ह्यो संकल्पना फाटीं पडल्यो. सादारण मनीस आपल्या बऱ्या वायट गुणांसकट कादंबरीचो नायक जालो.

विस्तार हो कादंबरीचो खाशेलो स्वभाव जाल्ल्यान केदोय व्हड आंवांठ घेवपाची कादंबरीकाराक मेकळीक मेळ्ळी. समाजांतलीं धोंगापोंगा दाखोवन आनी मनोविश्लेशणाच्या आदारान व्यक्तिचित्रण करून कादंबरीन लोकांक अंतर्मुख करून स्वताभितरले दोश निवळावपाक प्रवृत्त केले. आजूय कादंबरी समाजाची विवेकबुद्द जागोवपाचो वावर सातत्यान करता.

सद्याक नवलकथा तरेकवार रुपांनी आमचेमुखार येता. इतिहासीक, विज्ञानीक, रहस्य वा गुप्तहेर अशीं विशयानुरुप तिचीं रुपां आसात. कादंबरी सगळ्या आंगांनी फुलपाखातीर संवसारीक साहित्याच्या मळार म्हत्वाचो वावर करपी लेखक म्हळ्यार चार्लस् डिकन्स, फ्लॉबेअर, एमिल झोला, हेन्री जेम्स, हेमिंग्वे, डॉस्टोव्हस्की, टॉलस्टॉय, डी. एच्. लॉरेन्स, जेम्स जॉयस, फ्रांझ काफ्का, सार्त्र, काम्यू हे जावन आसात. सद्याच्या काळांत गाब्रियल गार्सिया मार्केझ ह्या दक्षिण अमेरिकन लेखकान आपले आगळे शैलीक लागून संवसारभरच्या टीकाकारांचें लक्ष आपलेवटेन ओडलां.

भारतांत नवलकथेचो जल्म सुमार सवायशीं वर्सां आदीं जालो. मराठींत बाबा पद्मनजी, हरि नारायण आपटे हांणी युरोपीय धर्तेचेर पयल्यो नवलकथा बरयल्यो. पूण नवलकथेक भारतीय बसका दिवपाचो वावर विसाव्या शतमानांतले बरोवपी बंकिमचंद्र, रवींद्रनाथ टागोर, शरदचंद्र चटर्जी, प्रेमचंद्र हांणी केलो.

हेर भारतीय भाशांनीय कादंबरीची पावंड्यापावंड्यान उदरगत जाली. ओडिया भाशेंत फकीर मोहन सेनापती, राधानाथ राय, मधुसूदन राव हे कादंबरी बरोवपी पयले लेखक अशे समजतात. आर्विल्ल्या काळांत गोपीनाथ महांती, कान्हुचरण महांती, कमलाकांत दास आनी राजकिशोर पटनाइक हांणी नामना जोडल्या. असमिया भाशेंत रजनिकांत बर्दोलोई, देबचंद्र तालुकदार आनी दंडिनाथ कलिता हांणी कादंबरीच्या मळार बरपावळ केल्या. कन्नड साहित्यांत पयलीं स्वतंत्र कादंबरी म्हळ्यार रेंट्ल वेंकट सुब्बराव हाची 'केसरी विलास' (१८९५). आर्विल्ल्या काळांतले म्हत्वाचे कादंबरीकार शिवराम कारंत, के.व्ही. पुट्टप्प, देवुडू, अ.न. कृष्णराव हे जावन आसात. स्वतंत्रताये उपरांत कन्नड साहित्यांत कादंबरीची निर्मणी व्हडा प्रमाणांत जाली आनी हातूंत यशवंत चित्ताल, शांतिनाथ देसाई, यू. आर. अनंतमूर्ती, त्रिवेणी, अनुपमा निरंजन हांचो बरोच हातभार आसा. गुजराती साहित्यांत नंदशंकर मेहता हाची 'करण घेलो' ही पयली कादंबरी अशें मानतात. गोवर्धन त्रिपाठी हाची 'सरस्वतीचंद्र' ही गुजरातींतली सगळ्यांत श्रेष्ठ कादंबरी, अशें जाणकारांचें मत आसा. पन्नालाल पटेल, के. एम्. मुन्शी, झवेरचंद मेघाणी, रमणलाल देसाई हे गुजराती भाशेंतले हेर नामनेचे कादंबरीकार आसात.

तेलगु भाशेंत अस्तंती साहित्याच्या प्रभावान कादंबरी बरपावळीक सुरवात जाली. १९७३ त कडवल्ली रामचंद्रुडू हाणें धर्मवती विलासणी ही कादंबरी उजवाडायली. गुडपाटी वेंकटाचलम्, उन्नव लक्ष्मीनारायण पंतुलु, हे ह्या शतमानाचे सुर्वेक, जाल्यार सद्याच्या काळांत पोला प्रगडा सत्यनारायणमूर्ती, वासिरेड्डी सीतादेवी, रंगनायकम्मा, परिमला सोमेश्वर एस्. आर्. नंदी ह्या कादंबरीकारांनी नामना मेळयल्या.

तमीळ साहित्यांत कादंबरी बरोवंक वेदनायकम् पिळ्ळै हांणी सुरवात केली. स्वतंत्रतायेउपरंत के. राजवेलू, पुनुकुंड्रन ना. पार्थसारथी, का. ना. सुब्रह्मण्यम् हे जाल्यार ह्या पुराय शतमानाचे नदरेंतल्यान नारण दुरैक्कळान्, कल्की, एम्. वरदराजन्, हे सारके कादंबरीकार म्हत्वाचे आसात.

पंजाबी साहित्यांत कादंबरीक खाशेली सुवात आसा. अठराव्या शतमानांत मोगलांच्या अत्याचारांआड जागृताय करपाखातीर भाई वीरसिंह हाणें कादंबरी बरोवंक सुरवात केली. नामना आनी मान्यताय मेळिल्लो पंजाबींतलो पयलो कादंबरीकार म्हूण नानकसिंग हाचें नांव घेतात. जसवंतसिंग 'कंवल', गुरदियालसिंग, कर्तारसिंग दुग्गल, अमृता प्रीतम हांचींय नांवां कादंबरीच्या मळार नामनेक पावल्यांत.

मराठी साहित्यांत पयली कादंबरी खंयची हाचेर मतभेद आसात. कांय जाणांच्या मतान बाबा पद्मनजी हाची 'यमुनापर्यटन' ही पयली कादंबरी, जाल्यार कांय जाण लक्ष्मणशास्त्री हळबे हाची 'मुक्तामाला' ही पयली कादंबरी अशें मानतात. हरिभाऊ आपटे, ना. सी. फडके, वि. स. खांडेकर, विश्राम बेडेकर, श्री. ना. पेंडसे, गो. नी. दांडेकर, उद्धव शेळके, व्यंकटेश माडगुळकर, श्री. ज. जोशी, जयवंत दळवी, भालचंद्र

नेमाडे, अरुण साधु ह्या सारक्या लेखकांनी आपली खाशेली सुवात मराठी कादंबरीच्या मळार दवरल्या.

मल्याळम् भाशेंत नेटुन्नाटी हांची 'कुंदलता' ही पयली कादंबरी. सी. व्ही. रामन पिळ्ळा आनी चंतू मेनन हांकां मल्याळमांतले नामनेचे कादंबरीकार म्हूण वळखतात. पी. केशवदेव, वैक्कम् मुहंमद बपीर, तकळी शिवशंकर पिळ्ळा, एस्. के. पोट्टेकट्ट, पी. सी. कुट्टीकृष्णन्, नंदनार, कोविलन्, के. सुरेन्द्रन्, पुन्नाटिल् कुंजब्दुल आनी पारप्पुरतु हेय कादंबरीकार बरीच बरपावळ केल्ल्यान कादंबरीच्या मळार नामनेक पावल्यात.

प्रेमचंद्र, शिवपूजन सहाय, वृंदावनलाल हृदयेश, भगवतीशरण वर्मा, निराला, चंद्रगुप्त विद्यालंकार हे हिंदी साहित्यांतले नामनेचे लेखक आसात. ताणी हिंदी कादंबरीक नवें मोडण दिलें जाल्यार उर्दू साहित्यांत जोगेंद्रपाल, काजी अब्दुस सत्तार, राही मासूम रजा हे नामनेचे कादंबरीकार आसात.

कोंकणीच्या मळार शणै गोंयबाब हाची गोमन्तोपनिषत् दुसरें खंड हातूंतली 'संवसार बुट्टी' ही पयली नवलकथा. साहित्यिक परंपरा मर्यादित आशिल्ल्यान आनी विंगड विंगड लिपींनी वांटून गेल्ल्यान कोंकणी कादंबरी उपेक्षित उरली. सद्याक देवनागरी लिपींतल्यान बरीच कादंबरी बरपावळ जाल्या. रोमी लिपींतल्यान 'रोमांसी' ह्या नांवान वळखुपांत येवपी बऱ्योच कादंबऱ्यो उजवाडाक येतात. कन्नड लिपींत व्ही. जे. पी. साल्दाना हाणें इतिहासिक कादंबऱ्यो बरेतरेन बरयल्यात.

- दामोदर मावजो

पूरक नोंदः कोंकणी साहित्य

**कानः** आयकुपाचो अवयव. हाचो उपेग कुडीचो समतोल राखपाखातीर जाता. अपृष्ठवंशी (invertebrates) प्राण्याक कान नासतात, पूण थोड्या किडींनी (insects) कांय वेगवेगळ्यो मांडावळी आसतात, जांचेवरवीं तांकां हवेंतलो कंप (vibration) जाणवता आनी कुडीचो समतोल राखूंकूय मदत जाता.




**कान**

कानाचे तीन वांटे स्पश्ट दिसून येतातः भायलो कान, कानाच्या पड्ड्यापसून कानपट (hinna) मेरेन. भितल्लो कान, जो कवटेच्या हाडांभितर आसता आनी मदलो कान, जो ह्या दोनांच्याय मदीं आसता. भायल्या कानाचें कानपट आनी घोल अशे दोन भाग आसतात. कानपट हें कास्थिल (cartilagenous) आसता. घोल कातीन धांपिल्ली आसता आनी ती ताणिल्ल्या कानाच्या पड्ड्याकडेन (tymphanic membrane) सोंपता. कानपटाचे खूब तरेचे आकार आसतात आनी प्राण्यांचे जातीप्रमाण ते कमी-चड हालुंकूय शकतात. मनीस आपले आपूण कानपट हालोवंक शकना. दादले तश्योच बायलो कानपटाच्या वयल्या भागाचो, वक्लाचो दांडो दवरुंक उपेग करतात. कानपटाचे सकयले पाळयेचो उपेग बायलां दागिने घालपाखातीर करतात.

भितल्ल्या कानांत कर्णावर्त (cochlea) आनी कर्णगहन (labyrinth) आसता. कर्णावर्त घुंटाळ्याच्या आकाराचें (spiral shaped) आसता; तातूंत एक द्रव आनी खास प्रकारचे श्रवणग्राही (hearing receptor) पटल (membrane) आसता. कर्णगहनांत अर्दचक्रनळी (semi circular canals), दृति (utricle) आनी लघुकोश (saccule) आसतात. हातूंत द्रव, बारीक बारीक फातरासारके कण, तशेंच श्रवणग्राही पेशा (hearing receptor cells) आसतात. बारीक बारीक मज्जातंतू (nerves) कर्णावर्तापसून सुरू जातात आनी 'कर्णावर्त मज्जातंतू फांटो) जाता. तशेंच कर्णगहनापसून प्रधाण (vestibular) मज्जातंतू फांटो जाता. ह्या दोनूय फांट्यांचो एकवट जावन आठ्वो कवटेचो मज्जातंतू तयार जाता.

मदल्या कानांत तीन बारीक हाडां आसतात आनी हो कानाचो भाग ताळ्याक युस्टेशियन नळयेन (eustachian tube) जोडिल्लो आसता. हाका लागून मदल्या कानांतलो आनी हवामानाचो दाब सारकोच उरता, तशेंच कसलोय स्राव (secretion) बी आसल्यार व्हांवपाक मदत जाता. हाडांचीं नांवां हातोडी-(malleus), ऐरण (incus) आनी पदिका (stapes) अशीं आसात. तांची एक सांखळी आसून ती कानाचो पड्डो आनी कर्णावर्त हांचेमदीं आसता. कुस्कुटायेदे स्नायू कानाच्या पड्ड्याक आनी हाडांक जोडिल्ले आशिल्ल्यान, आवाजाची तीव्रता भितल्ल्या कानामेरेन पावपाक मदत जाता. मदलो कान, कर्णभूल गहराकूय (mastoid atrum) जोडिल्लो आसता.

आवाजापसून हवेंत ल्हारां तयार जातात आनी भायलें कानपट तीं एकवटावन कानाचो पड्डो फडफडायतात. हें फडफडावप हाडांचे सांखळेंतल्यान कर्णावर्ताक पावता आनी तातूंतलें द्रव आवाजाच्या स्वरपदांचे पट्टेप्रमाण (pitch) खास श्रवणग्राही आशिल्ल्या पटलार पडटा; श्रवणग्राही पेशा उदीप्त (stimulate) जातात आनी आठ्वे कवटेच्या मज्जातंतूंतल्यान मेंदवाक पावतकच आवाजाची वळख पटता.

तकली खंयच्यानूय तीन काटकोनी (perpendicular) तळांचेर घुंवल्यार कर्णग्रहनांतलें अर्दचक्रांतलें द्रव हालता आनी दृति आनी लघुकोशांत आशिल्ले बारीक बारीक फातरासारके कण गुरुत्वाकर्शणाप्रमाण वयर सकयल जातात आनी ग्राही पेशा (receptor cells) उदीप्त जावन, प्रधाण मज्जातंतूंतल्यान मेंदवाक पावोवन समतोल हाडटात.

**कानाचे विकारः** ज्या विकारांक लागून भेड्डेपण येता तशेंच समतोल इबाडटा, तांकां कानाचे विकार अशें म्हण्टात. भायल्या आनी मदल्या कानाच्या दोशांक लागून चड-उणें भेड्डेपण येता, तर भितल्ल्या कानाच्या दोशान भेड्डेपणाभायर समतोल इबाडून घुंवळूय येवंक शकता.

भेड्डेपण येवपाच्या कारणांचें वर्गीकरण तीन तरांनी करतातः १. आवाजाचीं ल्हारां वचपाचो दोश २. मज्जातंतू संवेदनाचो दोश (sensorineural defect) ३. वयले दोनूय दोश वांगडाच जावप. आवाजाचीं ल्हारां वचपाचो दोश, भायल्या कानांतल्यो आडखळी तशेंच मदल्या कानांतल्या दोशांक लागून जाता. कोणाकूय भेड्डेपण आसत जाल्यार ताचे भोंवतणी आशिल्ल्यांक तें पयलीं जाणवता. भायल्या कानांत आडखळ आसल्यार तशेंच कानाच्या पड्ड्याक दोश आसल्यार वैजाक रोखडेंच दिसता. तेभायर वैज 'वेबर' (Weber) तशेंच 'रिने' (Rinne) तपासणी करून कानाच्या खंयच्या भागाक दोश आसा, हें थारायता. ऑडियोमेट्रीचो (audiometry) सोद लागिल्ल्यान खंय दोश आसा, हें सोदून काडपाक तर सद्या खुबूच मदत जाता.

भायलो कान कातीन धांपिल्लो आशिल्ल्या कारणान, कातीचे सगळे रोग हांगा जावंक शकतात आनी आवाजाची ल्हारां वचपाक आडखळ जावंक शकता. देखीक - फोड (furuncle), पूटी (cyst) आनी अर्बुद (tumour). हेभायर कानांत कानुलो (cerumen) जावनूय आवाजाच्या ल्हारांक आडखळ जावं येता. भारतांत हांगाच्या हवामानाक लागून भायल्या कानांत फोड येवपाचें प्रमाण चड आसा. फोड येतकच कान जड आनी भरिल्लो आसा, अशें भासता; मागीर तो दुखूंक लागता, तशेंच

कानपट हालयल्यार दूख वाडटा. थोड्या दिसांनी घाणयारें द्रव्य कानांतल्यान व्हांवंक लागता आनी केन्नाकेन्नाय कानांत खाजूय सुटता. हाका उपाय म्हळ्यार, कानांत आशिल्ली घाण तशेंच ओलसाण (moisture) काडप आनी जंतू मारपाचें वखद घालप. कानुलो जाल्यार सिरींजान (syringe) उदक मारून वा हायड्रोजन पेरोक्साइट घालून कान निवळ करूंक जाय.

भायल्या कानांत इसब (eczema) जाल्यार कानाच्या बुराकाकडेन तांबसाण येता आनी साली वतात. तशेंच खाजूय सुटता आनी थोडेंथोडें उदकासारकें द्रव व्हांवता. ॲलर्जीक लागून चवन जाता आनी जे वस्तूपसून ॲलर्जी जाता, तिचो वापर सोडल्यार तें जावंक पावना. भायल्या कानाचे अर्बुद चड करून हाडांचे आनी कातीचे आसतात. तांची शस्त्रक्रिया (operation) करून कानांतली आडखळ काडून उडोवं येता.

कानाचो पड्डो फुटल्यारूय कमी आयकूंक येता. एकदम स्फोट जावन मोटो आवाज जावप, सरी-काडी हांकां लागून कान फुटप तशेंच मदल्या कानाचें दुखाणें फुटप, ह्या कारणांक लागून पड्डो फुटूं येता. थोड्या प्रमाणांत पड्डो फुटल्यार आपशींच बरो जाता पूण केन्नाकेन्नाय सर्जनाकडल्यान शस्त्रक्रिया करून उपाय करचे पडटात.

मदल्या कानांत जंतू गेल्यार, मदल्या कानाचें दुखाणू (otitis media) जाता. हाचें प्रमाण ल्हान भुरग्यांमदीं चड आसता. ताळयांतले जंतू, युस्टेशियो नळयेंतल्यान मदल्या कानांत वतात आनी पूं तयार जाता. हाका लागून कानाची फोडाफोड, कमी आयकूंक येवप तशेंच जोर येवप, असल्यो पीडा उप्रासतात. कानाचो पड्डो तटतटून फुगता, एकाद्र्या वेळार पड्डो फुटता, दूख उणी जाता आनी कान व्हांवंक लागता. वखदां घेतल्यार गूण येता. मदल्या कानाच्या दुखण्याकडेन चड लक्ष दिवंक जाय; कारण तातूंतलो पूं कर्णमूल गहरांत वचूंक शकता, तसोच थंयच्यान मेंदवाक पावन अकस्मात मरण येवंक शकता. मदल्या कानांतल्या खर (acute) दुखाण्याकडेन सगळ्यांचेंच दुखीखातीर लक्ष वता आनी देखून वखद वेळार घेवप जाता; दीर्घकाळीन (chronic) दुखाण्याकडेन चड करुन लक्ष वचनाशिल्ल्यान कर्णमूल गहर आनी मेंदवाक दुखापत जावपाची खूब शक्यता आसता. तशेंच हें दुखाणें भितल्ल्या कानांतूय पावंक शकता.

भितल्ल्या कानांत दोश जावन 'मेनिअरचो रोग' (Meniere's disease) जाता. हातूंत अकस्मात परत-परत घुंवळ येवप, घांटी मारिल्लेभशेन आवाजाचो भास जावप आनी भेड्डेपण येवप ह्यो पीडा जातात. घुंवळ निवळटकच कुडीचो समतोल इबाडता आनी दोनूय वटांनी लकिल्लेभशेन जाता. म्हातारपणांत श्रवणग्राही पेशा दुबळ्यो (degenerate) जातात आनी कमी आयकूंक येता, हाका 'प्रेसबायकुसीस' (Presbycusis) अशें म्हण्टात. ह्या दुयेंसांत श्रवणयंत्र (hearing aid) लायत जाल्यार आयकूंक येवपांत सुदारणा जाता.

भुरग्यांक सारकें आयकूंक येता काय ना, तें लक्ष दिवन पळोवपाक जाय. तांकां कमी प्रमाणांत दोश आसल्यार श्रवणयंत्राचो (hearing aid) वापर करपाक जाय, तशेंच चड प्रमाणांत दोश आसल्यार हातांच्या कुरवांनी समजावपाचे खाशेले शाळेंत घालूंक जाय. श्रवणयंत्रापरस बरें अशें Automatic Signal Processor यंत्रूय सद्या मेळटा.

मदल्या कानांत हाड वाडून आयकुपाचें दुयेंस, जें खास करुन तरणाट्यांक जाता, ताका 'ओटोस्क्लेरोझीस' (otosclerosis) म्हण्टात. अस्तंतेकडल्या देशांत हें दुयेंस जावपाचें दादल्या बायलांचें प्रमाण १:२ अशें आसता, पूण भारतांत हाचें प्रमाण २:१ अशें आसा. पयलीं हाचेर उपाय नाशिल्लो. पूण कार्ल ऑलोफ नायलतेन आनी लीनव्हेनहॉक हांणी शस्त्रक्रिया करपाचो सूक्ष्मदर्शक (microscope) तयार केलो. १९२१ त, नायलेन ह्या सर्जनान ब्रिनेल सूक्ष्मदर्शक (Brinell microscope) वापरून सोश्यांच्या कानांतल्या कर्णगहनांत ल्हानशें जनेल केलें. १९२३ वर्सा हॉल्मग्रीन ह्या वैजान 'झाइस स्टेरिओस्कोपिक मायक्रोस्कोप' (Zeiss stereoscopic microscope) वापरून मायक्रोसर्जरी (microsurgery) करपाक सुरवात केली. पयलीं कर्णगहनांत जनेलां केलीं, तर आतां कानाच्या सगळ्याच भागांनी 'मायक्रोसर्जरी' करतात. १९५६ वर्सा जोन सिअ हाणें सूक्ष्मदर्शक घेवन 'स्पेडेक्टोमी तंत्र' (spedectomy technique) सुरू केलें. सद्या खुबशा देशांत हें तंत्र वापरतात आनी हाका लागून 'ऑटोस्क्लेरोझीस' जाल्या मनशाक आयकूंक येता.

१९६० वर्सा व्होन बेकेसी हाका 'आयकुपाचें भौतिकशास्त्र' (Physics of hearing) सोदून काडिल्ल्यान नोबेल इनाम फाव जालें. ताच्या ह्या सोदाक लागून आतां एक ल्हान इलेक्ट्रोनिक यंत्र तयार केलां, ताका 'कोक्लेयर इंप्लांट' (cochlear implant) अशें म्हण्टात. हें यंत्र म्हळ्यार मनशान तयार केल्लो कृत्रिम कानूच जावन आसा. शस्त्रक्रिया करून हे यंत्र घाल्यार, भितल्ल्या कानांचो दोश आशिल्ल्यांक त्या यंत्राक लागून आयकूंक येता.

- डॉ. पूर्णानंद अवदी

**आयुर्वेदीय चिकित्सा:** आयुर्वेदशास्त्रा प्रमाण कर्णरोग २८ प्रकारचे आसात, ते अशेः कर्णशूल, प्रणाद, बाधिर्य, कर्णक्ष्वेड, कर्णस्त्राव, कर्णकंडू, कर्णवर्चस, क्रिमीकर्णक, कर्णप्रतिनाह, दोपजन्यकर्णविद्रधि, आगंतुककर्णविद्रधि, कर्णपाक, पूतिकर्ण, वातजन्य अर्श, पित्तजन्य अर्श, कफजन्य अर्श, संनिपातजन्य अर्श, वायार्बुद, पित्तार्बुद, कफार्बुद, रक्तार्बुद, मांसार्बुद, मंदोदर्बुद, त्रिदोशजन्य अर्बुद, वातजन्य शोथ, पित्तजन्य शोथ, कफजन्य शोथ, संनिपातजन्य शोथ.

कर्णशूल, कर्णनान (tinnitus) हांचेर सामान्य उपाय म्हळ्यार कर्णपूरणविधी. तेल मंदोश्ण करून कानांत घालतात आनी १००, ५००, १००० मात्रा इतलो काळ दवरतात. कर्णपूरणविधीखातीर रसदिके वखद घालतात. कपित्थादिरस, लघुनादिस्वरस, अर्कांकुरादिस्वरस अर्कपत्रस्वरस अशे 'रस' आनी तैलांत शृंगबेरादि तैल, नागरादि तैल, हिंग्वादितैल, कटुतैलयोग, चत्वारिंगिरतैलानि अशे वेगवेगळ्या तैलाचे पाठ आयुर्वेदांत वर्णन केल्यात.

कानांतल्यान विंगड विंगड प्रकारचे आवाज आयकूंक येतात, ताका कर्णनाद म्हण्टात. हे आवाज नौबत, मृदंग, शंख, पक्षी-प्राण्यांचे आवाज, भ्रमरांचो गुंजारव, वेणुनाद अशे तरांतरांचे आसतात. उपायः अपामार्गतैल, हिंग्वादितैल, स्वर्जिकादितैल हीं तेलां कर्णनादाचेर उपेगी थारतात.

शब्दवाही स्रोतसा वायु वा कफयुक्त वायु हांच्या कारणान बंद जातात, तेन्ना बाधिर्य उत्पन्न जाता. उपायः बिल्वतैल, दीपिकातैल, निर्गुंडयादितैल. कानांतल्यान एकेच तरेचो आवाज एकसारको आयकूंक येता, ताका 'कर्णक्ष्वेड' म्हण्टात. उपायः शंबूक तैल, शिरसाचें तैल.

मस्तकाक मार लागल्यार वा उदकांत नेटान उडकी मारिल्ल्यान कर्णस्राव जावं येता. उपायः समुद्रफेन चूर्ण, सर्जत्वक्चूर्ण. कर्णप्रक्षालन-हरीतकी (हिरडा), आंवळकाठी, मंजिष्ठ, लोध्र कुचला वा पुनर्नवा हातूंतल्या एक वा अदीक वखदांच्या रोसान व्हांवपी कान धुतात. रसांजनयोग- बायलेच्या आंगावेल्या दुदान रसांजन उगळून तातूंत गोरो घालून तें कानांत घालतात.

- शरदिनी डहाणूकर

**कानपूर:** उत्तर प्रदेश राज्यांतलें म्हत्वाचें उद्येगीक शार. हें शार गंगेचे दक्षिण देगेर आसा. अलाहाबाद शारासावन उत्तर अस्तंतेक १८४ किमी. आनी दिल्लीचे उदेंत दक्षिणेक ३९२ किमी. अंतराचेर हें शार वसलां. शाराचो आवांठ सुमार २८० चौ. किमी. आसा. लोकसंख्याः १७,८२,६६५ (१९८१).

कानपूर शाराचें खरें नांव कान्हापूर वा कन्हैयापूर अशें मानतात. ह्या शाराचे उत्पत्तीची वा पूर्विल्ल्या इतिहासाची खबर मेळना. पयलीं ह्या शाराचेर कनौज आनी कालपी ह्या शारांच्या शासकांचो शेक चलतालो. उपरांत हें शार मुसलमानांचे सत्तेखाला गेलें. १७७३ ते १८०१ मेरेन नबाब अलमास अली हाणें आपली सत्ता कानपूर शाराचेर चलयली. १८०१ वर्सा सावन हें शार ब्रिटिशांच्या शेकातळा गेलें. १८५७ वर्सा

जाल्या बंडांत खुबश्या गोऱ्या लोकांची कानपूर शारांत कत्तल जाली.

कानपूर शाराचेर ब्रिटिशांची सत्ता आयली, तेन्ना कानपूर शार एक खेडें आशिल्लें. पूण ब्रिटिशांनी हांगा विंगड विंगड उद्येगधंदयांक मुखात केली आनी तेन्ना सावन ह्या शाराचे उदरगतीक सुरवात जाली. १८३२ त ग्रेट रोड हो महामार्ग जातकच हें शार इलाहाबाद शाराक जोडलें. दिल्ली-कलकत्ता आनी झांशी-लखनौ ह्या महामार्गाचेर आशिल्ल्या ह्या शारांत मध्य-उत्तर आनी उत्तर-उदेंत रेल्वे मेळटात. ह्या शारांत विमानतळ आसा आनी भारतीय विमानदलाचें हें केंद्र आसा.

रेल्वेमार्ग जाल्ल्यान कानपूर शारांत नवे नवे कारखाने जाल्यात. ब्रिटीश सरकारान हांगा चामडी कमोवपाचो कारखानो सुरू केल्लो. सद्या चामडीकाम हो हांगाचो मुखेल धंदो जाला आनी चामड्याच्या कामांत कानपूर शार उत्तर भारतांत सगळ्यांत म्हत्वाचें केंद्र जालां.

१८६१ त सुती कपडे तयार करपाचो पयलो कारखानो कानपूर शारांत सुरू जालो. चामड्याच्या धंद्या वांगडा सुती, लोकरी आनी तागाच्या कपड्यांचे धंदे हांगा व्हड प्रमाणांत आसात. तशेंच शिमीट, फस्कां, यंत्रां, प्लास्टीकच्यो वस्तू, शाबू, तेल, विद्युत् उपकरणां, आयदनां, शेंदऱ्यो, लोखण, विमानाचे सुटे भाग हांचे कारखाने हांगा आसात आनी हेच खातीर उद्येगीक नदरेन कानपूर शाराक बरेंच म्हत्व मेळ्ळां. लश्करी साहित्याचो सांठो हांगा आशिल्ल्यान लश्करी नदरेनूय कानपूर शाराक खाशेलपण आसा. कानपूर शार एक व्हड वेपारपेठ जाल्ल्यान धान्य, कपडे, जोतीं, साकर आदी वस्तूंचो वेपार हांगा व्हड प्रमाणांत चलता.

कानपूर शाराक एक म्हत्वाचें शिक्षणीक केंद्र मानतात. हांगा खुबशीं महाविद्यालयां, राश्ट्रीय तंत्रसंस्था, १९६६ त स्थापन जाल्लें कानपूर विद्यापीठ आनी हेर संस्था आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**कापूसः** (मराठी- कापूस; हिंदी आनी गुजराती- कपास, रूई; कन्नड- हति; संस्कृत- कार्पास; इंग्लीश- कॉटन; लॅटीन- ग्रॉसिपियम; कुळ- माल्व्हेसी).

संवसाराच्या अर्थीक तशेंच समाजीक मळावयलें म्हत्वाचें तंतू-पीक (fibre crop). संवसारांतल्या बाजारी पिकांतले कापूस हें सगळ्यांत पोरनें पीक. कापसापसून मेळपी धाग्यांपसून कपडे तयार करतात. धाग्यांत भरसुपाक आनी हेर कामांखातीर सुतां तयार करतात. कापसाच्या बियांपसून तेल काडटात. तेल काडून जातकच कापसाच्या बियांचो जो चोथो उरता तो नायट्रोजन फॉस्फोरस आनी पोटॅशचो आस्पाव आशिल्लें एक बऱ्यापैकी सारें म्हूण वापरतात. कापशीच्या बियांक सरकी म्हण्टात. तांचें तेल काडटात आनी जनावरांखातीर तांची पेंड करतात.

**उगमाचो इतिहासः** भारतांत पूर्विल्ल्या काळासावन कापसापसून तयार केल्लें सुती कापड वापरतात. सिंधू न्हंयच्या देगणांत सुमार ५००० वर्सां आदल्या काळांत कापसाची लागवड जाताली, अशे पुरावे मेळ्ळयात. मोहेंजोदडो हांगाच्या उत्खननांत सगळ्यांत पोरनें कांतिल्लें सूत मेळ्ळां. ऋग्वेदांत कापसाचो उल्लेख आयला. मनून लेगीत आपल्या धर्मशास्त्रांत सुती वस्त्रांचो उल्लेख केला. इ. स. प. १५०० वर्सां आदल्या काळांत हिंदुस्थान हें कापूस उद्येगाचें एक म्हत्वाचें ठिकाण आशिल्लें. कापसाचो आनी कापूस विणपाचे कलेचो प्रसार भारतांतल्यान अस्तंत्या देशांनी तशेंच उदेंतेकूय जालो. इ.स. सातव्या शेंकड्यांत कापूस भारतांतल्यान चीनाक पावलो. कापसाची लागवड भारतांतल्यान ईजिप्ताक पावली आनी थंयसून ती स्पेन आनी इटली हांगा पातळ्ळी. तेराव्या शेंकड्यांत भारतांत पाविल्लो मार्को पालो कापसाच्या झाडाक लोकरीचें झाड म्हण्टात.

**पिकावळीचो वाठारः** ह्या पिकाची लागवड ३२९ लाख हेक्टर वाठाराचेर जावन ४११ लाख टन कापसाच्या बियांचें उत्पादन जाता. भारत, अमेरिका, रशिया, चीन, ब्राझिल, ईजिप्त, पाकिस्तान, तुर्कस्थान, मेक्सिको आनी सुदान ह्या देशांनी कापसाची लागवड मोट्या प्रमाणांत जाता. ह्या १० देशांतसून वट्ट संवसारीक कापूस उत्पादनाचें सुमार ८५% उत्पादन जाता. संवसारांत भारत देशांत कापसाचे लागवडीखातीर सगळ्यांत चड क्षेत्रफळ वापरांत आसा. भारतांत सुमार ८० लाख हेक्टर वाठार म्हळ्यार संवसारीक कापूस लागवड क्षेत्रफळाचो सुमार २५% वांटो कापसाचे लागवडीखातीर वापरतात. भारतांत महाराष्ट्र, गुजरात, कर्नाटक, मध्य प्रदेश, पंजाब, राजस्थान, हरियाना, तमिळनाडू, उत्तर प्रदेश आनी आंध्र प्रदेश ह्या राज्यांनी कापसाची लागवड मोट्या प्रमाणांत जाता. भारतांत कापसाचें सगळ्यांत चड उत्पादन गुजरात राज्यांत जाता आनी पंजाब आनी महाराष्ट्र ह्या राज्यांचो ताच्या फाटोफाट क्रमांक लागता. कांय जंगली जातींचो कापूस सोडल्यार गोंयांत कापसाची लागवड जायना.

**वर्गीकरणः** कूळ-माल्वासियें, प्रजाति (Genus). गोसिपियम कापसाचे हे प्रजातींत, जंगली आनी लागवडीच्यो अश्यो वट्ट दोन जाती आसात. लागवडीचे जातींतल्या कापशीणींत शणवस्त्र (lint) आसता, जाल्यार जंगली जातींतल्या कापशीणींत ल्हान, मोटव्यो आनी गुळगुळीत बियो आसतात. भारतांत सकयल दिल्ल्या ४ जातींची लागवड जाता.

१. **गॉसीपियम अर्बोरियमः** झाडाची उंचाय १.५-२ मी.; धाग्यांची लांबाय १.२५ ते २.१० सेंमी.; हे जातीक 'देशी कापूस' अशें म्हण्टात. वट्ट लागवडीची २९ % लागवड हे जातीपसून जाता.

२. **गॉसीपियम हर्बेशियमः** (देशी कापूस) धाग्याची लांबाय १.२५ ते २.३० सेंमी.चे वट्ट लागवडीचे २१% उत्पादन हे जातीचें जाता.

३. **गॉसीपियम हिरसुटमः** हे जातीक 'अमेरिकन कापूस' अशें म्हण्टात. झाडाची लांबाय १.५ मी.; धाग्याची लांबाय १.८ ते ३.१ सेंमी.; वट्ट कापूस लागवडीची ५०% लागवड हे जातीची जाता.

४. **गॉसीपियम बाबडिन्सः** हे जातीक 'सी आयलंड कॉटन्स' अशेंय म्हण्टात. लांब कणसांचो ईजिप्त आनी अमेरिकेचो कापूस हे जातींत आस्पावता. धाग्याची लांबाय ३.६ ते ५ सेंमी.

कापशीच्यो जंगली जाती चड वर्सां जियेवपी आसतात. पूण लागवडीच्यो जाती मात वर्सभर जियेतात. कापशीचें झोंप सुमार ६०-२०० सेंमी. लांब आसता. ही वनस्पत वखदी जावन आसा. कांडाचेर भरपूर खांदयो येतात. सादारणपणान हे वनस्पतीचीं लक्षणां 'माल्व्हेसी' कुळांत वर्णिल्लेप्रमाण, पानां सादीं, हाता आकाराचीं, ३-९ खंडांनी वेगळायल्लीं, केन्ना अखंड आनी मध्यम आकाराचीं आसून फुलां धवीं, हळडुवीं वा जांभळीं आसतात. अतिसंवर्त (epicalyx) ३.५ छंदांचो, संवर्त (calyx) पांच संदलांचो आनी पुश्पमुकुट (corolla) पांच पाकळ्यांचो आसता. केसरदलां (stamens) एकसंघ; किंजपुटांत (ovary) ३.५ कप्पे आनी दरेका कप्प्यांत ३.११ बीजकां (ovules), बोंड फुटपी, बियो काळसर ल्हान, वांटकुळ्यो आनी कमी-चड लांबायेच्या धव्या नाजूक धाग्यांनी विणिल्ल्यो आसतात. हे धागे म्हळ्यारूच कापूस.

कापूस हें उश्ण हवामानांतलें पीक. ज्या वाठारांत वर्सुकी सरासरी तापमान १६° से. च्या वयर आसता अशा वाठारांत वेपाराखातीर मोट्या प्रमाणांत कापसाची लागवड करतात. ह्या पिकाक, बरो विभागून पडपी किमान ५० सेंमी. तरी वर्सुकी पावस लागता. फळांच्या हंगामांत थंड राती आनी २७.३२° से. इतल्या तापमानाची गरज आसता. चड पावस पडल्यार कापसाचीं बोंडां आनी फुलां झडून पुराय पिकाचो इबाड जाता. कडक शियाक लागून आनी दंवाक लागून कापशीचीं झाडां मरतात. म्हूण कापसाची लागवड १००० मी. च्या उंचायेमेरेनच्या वाठारांत करतात.

**जमीनः** ज्या जाग्यार भरपूर पावस पडटा अशा हलक्या, रेंवट, मध्यम, गाळाचो आनी चिकण मातयेंत कापसाची लागवड करतात. उदक साचून उरता अशी बऱ्यापैकी सुपीक जमीन कापसाचे लागवडीखातीर वापरतात. हे जमनींत जलवाहनाची (drainage) आनी वायूमिश्रणाची (aeration) फाव ती वेवस्था आसची पडटा. कापूस रोयतात ते जमनीचें PH मोल ५.५ ते ८.५ इतलें आसूंक जाय.

**मशागतः** कापूस हें खोल जमनींत पाळां-मुळां वचपी पीक आशिल्यान

ताची मशागत खोलमेरेन करची पडटा. सुमार १५-२० सेंमी. खोलायेमेरेन जमीन मोव आनी भुसभुशीत करून तातूंतलीं तणां वेंचून वयल्यान फळी ओडली म्हण्टकच ती जमीन कापसाची पेरणी करपाक फावशी जाली, अशें समजतात.

**पेरणी:** बियो रोंवचे पयलीं ताचेर सांद्रीत (concentrated) सल्फ्युरीक अम्लांचो फवारो मारतात. अशें केल्ल्यान त्या बियांक रोग जावंक पावना तशेंच जे जमनींत हें बीं रोयतात, ते जमनींतले रोगजंतूय मरतात. जर हें रसायन मेळना जायत जाल्यार शेण, गोबोर आनी उदक हांचें मिश्रण करून त्या मिश्रणाचो लेप ह्या बियांक लावन रोंवचेपयलीं ह्यो बियो वेवस्थित सुकयतात. जमीन, कापसाची जात, सारें आनी पीक बागायत ह्या गजालींचेर दोन झाडांमदलें अंतर आदारिल्लें आसता. एका हेक्टरांत कितलें किग्रॅ. रोवप, हेंय पिकाचे जातीचेर थारता.

उत्तर भारतांतल्या कांय वाठारांनी F-414 आनी H-777 जातींच्या पिकाचें बीं मे म्हयन्यांत लायतात. मध्य भारतांत पाणभरतें पीक १५ मे ते २५ मे ह्या काळांत लायतात, जाल्यार पावसाळी पीक पावस सुरू जातकच लायतात. तमिळनाडूंत बागायती आनी पावसाळी पीक सप्टेंबर-ऑक्टोबर म्हयन्यांत लायतात. कर्नाटकांत देशी कापसाची पेरणी ऑगस्ट-सप्टेंबर म्हयन्यांत जाता.

कापसाच्या पिकाखातीर सारें कितलें वापरचें हाचें प्रमाण जमीन, पिकाची जात आनी वाठार हाचेप्रमाण बदलता. दक्षिण भारतांत दर हेक्टराफाटल्यान बागायती कापसाक ५०-१०० किग्रॅ. नायट्रोजन आनी पावसाळी पिकाखातीर ३०-६० किग्रॅ. नायट्रोजनचें सारें वापरतात. कापसाचे लागवडीखातीर फॉस्फोरस, पोटॅश आनी शेणाचें सारें लेगीत वापरतात. नायट्रोजचें सारें सुर्वेक मशागत करतना आनी उपरांत दुसरे खेपे फुलां येतकच दितात.

भारतांत विंगड विंगड जातींच्या आनी तरेकवार प्रकारच्या कापसाची लागवड जाता. देखीक: कृष्णा, MCU-4, सुजाता, G-27, J-205, महालक्ष्मी, हायब्रीड-4, सुजय, वरलक्ष्मी, भारती, MCU-7, RS-89, सुवीन, सुमन.

**रोग:** कापसाच्या पिकाक जावपी मुखेल रोग अशे: *१. रुट रॉट:* हो रोग, जमनींतल्या कवकाक लागून बियांक जाता. बियांक हो रोग जावंचो न्हय म्हूण बियांचेर ब्रासिकलचो उपचार करून आनी पिकाची फेरपालट करून ह्या रोगाचेर नियंत्रण दवरूं येता. २. *फ्युजेरियम विल्ट:* हो रोग जमनींतल्या कवकाक लागून जाता. देखून असले जमनींत प्रतिरोधक शक्ती आशिल्लो अमेरिकन कापूस लावन आनी पॉटॅश आनी हेर कार्बनी सारें वापरून ह्या रोगाचेर नियंत्रण दवरतात. ३. *अँथ्राक्नोज (Anthracnose):* हो रोग कापसाच्या बियांक आनी बोंडांक जाता. बियांचेर 'अॅग्रोसॅन' चो उपचार करून आनी ब्लायटॉक्स, फायटॅलॉन ह्या कवकनाशकांचे फवारे मारून हो रोग आळाबंदा हाडूं येता. ४. *बॅक्टेरिअल ब्लाइट:* हो रोग पानांक आनी बोंडांक जाता. बियांचेर MEMC आनी अॅग्रिमायसिन हाचो उपचार करून तशेंच ब्लायटॉक्स आनी फायटॅलॉन ह्या कवकनाशकांचे फवारे मारून ह्या रोगाचेर नियंत्रण दवरतात. ५. *बॉल रॉट:* हो रोग बोंडांक जाता. तांबें कवकनाशक आनी कार्बरील जंतुनाशकांचो फवारो मारून हो रोग आळाबंदा हाडटात.

कापसाक लागपी किडींच्यो दोन जाती आसात. १. शेंदरी बोंड किडी (Pink Ballworm) फुलां, कोमन्यो आनी बोंडां खातात. देखून हो किडीचो रोग आळाबंदा हाडपाखातीर बियो रोंवचेपयलीं तांकां ६०° से. तापमानाची उश्णता दितात वा फॉस्टॉक्सिन रसायनावांगडा मिथिल ब्रोमाइडचो धुंवर दितात. २. थिपक्यांच्यो बोंड किडी (Spotted Ballworm) कोमन्यो आनी बोंडा खातात. जंतुनाशकांचे फवारे मारून ह्या किडींचेर नियंत्रण दवरतात.

**कापणी आनी उत्पादन:** कापसाचीं बोंडां एकदम पिकनात. जशीं जशीं पिकतात तशीं तशीं तीं हातान खुटचीं पडटात. तेखातीर कापसाचीं बोंडां पिकतकच दोन-तीन फावटींनी काडचीं पडटात. बोंडां पिकून फुटूंक पावतकच आनी तातूंतल्यान कापूस भायर येवन उबूंक लागतकच कापसाचीं बोंडां काडटात. उत्तर भारतांत कापसाच्या बोंडांची पयली कापणी ऑक्टोबर म्हयन्याचे सुर्वेक जाल्यार दुसरी कापणी नोव्हेंबराचे सुर्वेक जाता. तिसरी कापणी नोव्हेंबराच्या तिसऱ्या सप्तकांत आनी निमणी कापणी डिसेंबराच्या पयल्या सप्तकांत जाता. बोंडांतल्यान कापूस काडटकच तो वतांत बरो करून सुकयतात आनी मागीर बाजारांत धाडटात.

- एच्. आर. प्रभुदेसाय

**काफी (कॉफी):** 'कॅफीइन' ह्या अल्कलॉइडाक लागून तरतरी हाडपी, खाशेली रूच आशिल्लें, भाजिल्ले काफयेच्या बियांपसून तयार केल्लें एक पेय. ह्यो बियो रुबिएसी कुळांतल्या 'कॉफिया' वंशांतल्या ल्हान रोंप्यापसून मेळटात. काफये रोंप्याची पयली लागवड जरी दक्षिण अरेबियांत जाली आसली, तरी रानटी अवस्थेंतली काफयेची वनस्पत पयलीं आफ्रिकेंतूच सांपडिल्ल्यान तिचें मूळस्थान आफ्रिका अशें मानतात. काफयेक तुर्की भाशेंत काहवेह (Kahveh) म्हण्टात, ताचेवेल्यान अरबी 'काहवाह' (Qawah, Kahwah) आनी ह्या 'काहवाह' चो कॉफी (काफी) म्हळ्यार अरबी मद्य अशा अर्थान इंग्लिशींत अपभ्रंश जाला आसूंक जाय, अशें म्हण्टात. कांय जाणकारांच्या मताप्रमाण इथिओपियांतल्या (अॅबिसिनिया) 'काफ्फा' (Kaffa) ह्या काफयेच्या जल्मगांवाचें नांव तिका मेळ्ळां आसूंक जाय.

'कॉफिया आराबिका' ह्या काफयेच्या ल्हान रोंप्याक सावळी खूब मानवता. ह्या रोंप्याची उंचाय सुमार २ ते ३ मी. आसता. ६ ते ७ मी. ऊंच वाडपी कांय काफयेच्यो जाती आसात. तांचीं सामान्य लक्षणां 'रुबिएसी' कुळांत वर्णिल्लेप्रमाण आसतात. पानां गाड पाचवीं आनी सुळसुळीत आसून एकामेकांसामकार आसतात. ह्या रोंप्याक वर्सूयभर पानां आसतात. जानेवारी ते एप्रिल म्हयन्यांत काफयेच्या रोंप्यांक ल्हान, धवी आनी वासाचीं फुलां येतात. काफयेच्या रोंप्याक पाचव्या कोराचें बारीक फळ येता जें पिकतकच हळडुवें, जांबळें आनी निमाणें तांबशें जाता. ह्या फळाची लांबाय सुमार १.५ मिमी. आसता. फळाभितरल्या बुळबुळीत गरांत दोन पाचव्या वा गोबरा कोराच्यो बियो आसतात. ह्या बियां भोंवतणी पातळ, रुपेरी साल गुठलायल्ली आसता आनी ताचे भोंवतणी एक काथ्याभशेन साल आसता. ह्याच बियांपसून काफी तयार करतात.

संवसारांत जावपी वट्ट काफयेंतली २/३ काफी ब्राझील देशांत जाता. अॅबिसिनिया, अरेबिया, कोलंबिया, कॉस्ता रीका, ग्वातेमाला, हामादाती, हवाई, केनीया, जमायका, जावा, मेडागास्कर, मेक्सिको, निकाराग्वा, फिलिपीन्स जुंवो, पुएर्तो रिको, साल्वादोर, सुमात्रा, व्हेनेझुएला, वेस्ट इंडीज, भारत आनी श्रीलंका ह्या देशांनी काफयेची लागवड जाता. भारतांत काफयेची पिकावळ कर्नाटक, केरळ, तमिळनाडू, आंध्र प्रदेश, आसाम, ओरिसा, महाराष्ट्र, मध्य प्रदेश आनी अंदमान जुंवो ह्या वाठारांत जाता. गोंयांत कांय थोड्या सुवातींनी काफयेची लागवड करतात, पूण वेपारी नदरेन तिचें उत्पादन जायना.

जगभर लागवडीखातीर वापरांत आशिल्ल्यो काफयेच्यो जाती अश्यो: १. कॉफिया आराबिका- हिच्या पोटजातीच्या चिक्स, कूर्ग आनी केंट्स ह्या प्रकारांची भारतांत लागवड जाता. कर्नाटकांतल्या चिकमंगळूर भागांत लागवडींत आशिल्ल्या आराबिकाच्या प्रकाराक 'चिक्स' हें नांव दिलां. २. कॉफिया रोबुस्ता- बेल्जियम काँगो आनी जावा हांगासून हे जातीचो भारतांत प्रवेश जाला आसूंक जाय. जगांत ही जात २८% इतली लागवडींत आसा. ३. कॉफिया स्टेनोफायला- मूळस्थान अस्तंत आफ्रिकेतलें सिएर्रा लिओने. ४. कॅफेया लायबेरिया- हे जातीचें झाड खूब ऊंच म्हळ्यार सुमार १२ ते १५ मी. वाडटा.

**लागवड:** ह्या पिकाक उश्ण, दमट आनी सुकें हवामान लागता. काफयेचो रोंपो १२° से. ते २६° से. ह्या तापमानांत बरे तरेन जाता. ह्या पिकाक वर्सुकी १७५-२०० सेंमी. पावस लागता. ९००-१८०० मी.

उंचायेच्या वाठारांत काफयेचें पीक बरेतरेन जाता. ह्या झाडाक तांबडी वा 'लेटरायटिक' आनी निचऱ्याची जमीन लागता.

काफयेचे रोंपे रोंवचेपयलीं मातयेंत कुशिल्लें शेणखत, रेंव आनी चुनो घालून वाफे तयार करतात. वाफ्याची उंचाय १५ सेंमी. आसता. डिसेंबर ते जानेवारी म्हयन्यांत बियांक 'अॅग्रोसान' हें चित्याआड वखद चोळून उपरांत १.५-२.५ सेंमी. अंतर दवरून बीं रोयतात. ४५ दिसांनी हें बीं किल्लून येता. जून म्हयन्याचे सुर्वेक हे रोंपे देड ते दोन फूट फोण खणून तातूंत रोयतात. रोंप्यांक तेंको दिवपाखातीर धिगी लायतात. काफयेचे वनस्पतीक सांवळी जाय पडटा. देखून, रोंप्यां भोंवतणी कमी उंचायेचीं हेर झाडां लायतात. हाका लागून नडणी, वादळ, माती व्हांवन वचप ह्यासारकिल्या गजालींक आळाबंद बसता. काफयेच्या रोंप्यांक सुर्वेक नडणेचो खूब त्रास जाता. ही नडणी हातांनी नाजाल्यार वखदां मारून काडटात. काफयेच्या रोंप्यांक नत्र, स्फुरद आनी पालाश हीं रसायनीक सारीं फाव त्या प्रमाणांत वेळचेवेळार दितात.

**काफी तयार करपाची पध्दत:** काफयेच्या फळांतल्या दोन बियांचेर पातळ आनी चिवट कागदाभशेन आशिल्ली साल काडून ज्यो बियो उरतात, त्यो भाजून काफी तयार करतात. बियांवयली साल दोन पध्दतींनी काडटात. १. सुकी पध्दत- हे पध्दतींत फळां पिकतकच काडटात आनी बीं वतांत सुकयतात. ह्यो सुकिल्ल्यो बियो फातराच्या वा लांकडाच्या खलबत्यांत धोडावन सालींपसून मेकळयो करतात, जाका चेरी वा थळावी (native) काफी अशें म्हण्टात. २. ओली पध्दत- हे पध्दतींत पिकील्लीं, तांबश्या कोराचीं फळां वेंचून घेतात आनी एका खाशेल्या यंत्रान तांच्यावयल्यो साली काडटात. उपरांत गर आंबोवन (fermentation) वयलें आवरण काडटात. ही प्रक्रिया करपाक वेगवेगळयो टांकयो आसतात आनी ताका सादारणपणान बारा वरां लागतात. मागीर ह्यो बियो धुतात आनी सुमार सात दीस वतांत सुकयतात. अशें हें सुकयल्लें बीं यंत्राच्या आदारान ताच्यावयल्या रूपेरी सालींपसून मेकळें करतात. हे पध्दतीन तयार केल्ले काफयेक 'पार्चमेंट काफी' अशें म्हण्टात. हे पध्दतीन तयार केल्ली काफी ऊंच पांवड्याची आसता आनी तिचें मोलूय चड आसता.

काफयेचें बीं तयार जातकच तें तव्यार, पत्र्यार वा घुंवपी यंत्राच्या आदारान, जतनायेन भाजतात आनी रोखडेंच दळपाक व्हरतात. काफयेचो पांवडो तिच्या रंगार, वासार थारायतात आनी तेप्रमाण प्रत लायतात.

**रोग आनी किडी:** काफयेच्या पिकांक लागपी मुखेल रोग अशे- १. कॉफी लिफ रस्ट (coffee leaf rust): ह्या रोगाक लागून पानांचेर दाग पडटात आनी पानां झडूंक लागतात. हो रोग आळाबंदा हाडपाक फुलां येवचेपयलीं, पावसापयलीं आनी पावस सोंपतकच अशें तीन खेपे बोर्दो मिश्रण झाडाचेर फवारतात. २. ब्लॅक रॉट (black rot) ह्या रोगाक लागून रोंप्यांचीं पानां काळीं पडून कुसतात. ताचेर आळाबंदा हाडपाखातीर रोंप्यांक फाव ती सांवळी दिवन रोगट भाग कापून उडोवन बोर्दो मिश्रणाचो फवारो मारतात. ३. बेरी ब्लोच (berry blotch): ह्या रोगाक लागून काफयेच्या फळाचेर बारीक खतां पडटात आनी फळां सुकतात वा कुसपाक लागतात. हो रोग आळाबंदा हाडपाक रोंप्यांचेर बोर्दो मिश्रण फवारतात. ४. ब्राउन आय स्पॉट (brown eye spot): ह्या रोगाक लागून काफयेच्या रोंप्यांच्या पानांचेर वाटकुळीं खतां पडटात आनी पानांच्यो कडो चॉकलेट जावन पानां झडपाक लागतात. देखून ल्हान रोंप्यांचेर ०.४ % कॅप्टान वा १% बोर्दो मिश्रण फवारतात. तेभायर मुळां कुसप, root rot, anthracnose, stem wasting ह्या सारक्यो पीडा काफयेच्या रोंप्यांक जावं येता.

काफयेच्या रोंप्याक किडींचे खुबूच त्रास जाता. तातूंतल्यो काय किडी आनी तांचेवयले उपाय अशे आसात: १. शुट आनी रुट मिली बग (shoot & root mealy bug): ही कीड पानांची कोमरी खाता आनी पानांतलो रोस ओडून घेता. २. ग्रीन बग (green bug): हे किडीक लागून काफयेचीं पानां कवळटात, कोमरी काळी पडटा आनी फळांचेर बुरशी वाडटा. ३. कुसां कीड (Hairy Caterpillar): पानां खावन उडयता. ह्या तीनूय किडींक लागून तशेंच (brown bug) हे किडीपसून जावपी पीडा पयस करपाखातीर १.५% इकालक्स वा ५% मॅलाथिसोन पिठो मारतात. तेचपरी ५०० मिली. इकालक्स वा २०० मिली. फोलीथीयोन वा २०० मिली. लेबासीड हीं वखदां रोंप्याचेर फवारतात. ह्या किडीं भायर पिकाक जेन्ना 'कॉकचेफर जीव' (cockchafer beetle) लागतात, तांकां आळाबंदा हाडपाक रोंप्यांच्या मुळांनी उदकावांगडा ७५० मिली. लिंडेन हें वखद घोळोवन घालतात वा 'थायमेट' सारकिल्या गुळयांचीं वखदां जमनींत घालतात. shot hole borer ही कीड काफयेचे 'रोबुस्ता' जातीक व्हड प्रमाणांत जाता आनी तेंगशांनी बुराक घालून कांडा भितर वता आनी गर खाता. हे किडीक लागून हेर चित्याची लागण जाता. हाचेर आळाबंदा हाडपाक २०० लि. उदकांत ६५० मिली. 'लिंडेन' हें वखद घोळोवन फवारतात. white stem borer आनी red borer ह्यो किडी काफयेच्या रोंप्यांचें कांड पोखरतात. हाचेर आळाबंद हाडपाक कीड लागिल्ले रोंपे मारतात आनी फाव त्या वेळार B.H.C. ५०% वा 'लिंडेन' हीं वखदां मारतात. Thrips ही कीड पानांचेर तांतयां घालता आनी ताका लागून पानां इबाडटात. ह्यो किडी पयस करपाक डायमेक्रोन, नुव्हाक्रॉन ह्या वखदांचो फवारो मारतात.

**उपेग:** काफयेचो उपेग चड करून एक तरतरी हाडपी पेय म्हूण जाता. काफयेंत सांपडपी 'कॅफीन' ह्या द्रव्याक लागून काफी पियेतकच तरतरी येता. पूण चड प्रमाणांत काफयेचो वापर केल्यार तातूंतल्या 'कॉफिटोक्सीन' ह्या रसायनाक लागून कोठे बंद जावपाची शक्यता आसता. मलायसारक्या देशांत काफयेच्या पानांचो काफी पेय तयार करपाखातीर वापर करतात. काफयेपसून कांय प्रमाणांत तेल तशेंच मेण आनी 'कॉफी पल्प' हे पदार्थ मेळटात. 'कॉफी पल्प' गोरवांची खावड म्हूण वापरूं येता. काफयेच्या बियांपसून 'कॅफेलायट्' हें नवे तरेचें प्लास्टिक तयार करतात. काफयेच्या झाडाच्या लांकडापसून रोतां, तुतयाचे दांडे ह्यासारक्यो वस्तू तयार करतात.

सुमार २०० वर्सांपरस चड काळा सावन भारतांत काफयेची लागवड जाता. भारतांत चड करून 'अरॅबिका' आनी 'रोबस्टा' ह्यो जातीच मोट्या प्रमाणाचेर लागवडींत आसात. भारतांत सुमार २,४०,००० हेक्टर जमीन काफयेचे लागवडीखाला आसा. १९८६-८७ वर्सा भारतांत १,८५,००० टन काफयेचें उत्पादन जालें. १९८६-८७ वर्सा भारतांतल्यान ८६,२०० हजार टन (मोल: ३६२.९४ कोटी रुपया) काफयेची निर्यात जाली. भारतीय काफी उद्येगाचे उदरगतीखातीर 'भारतीय काफी मंडळ' (Indian Coffee Board) हे संस्थेची थापणूक जाल्या.

- एच्. आर. प्रभुदेसाय

**काफ्का, फ्रान्झ:** (जल्मः ३ जुलय १८८३, प्राग; मरणः ३ जून १९२४, व्हिएन्ना).

नामनेचो जर्मन कथाकादंबरीकार. तो जल्मान चेक आनी वंशान ज्यू आशिल्लो. ताचो बापूय हर्मन, एक गिरेस्त वेपारी आशिल्लो. ताच्या हुकुमशाही स्वभावाक लागून काफ्काचें व्यक्तिमत्त्व पुराय फुलूंक पावलेंना. बापायचो भंय, राग आनी तिरस्कार हाचो परिणाम ताच्या साहित्याचेर जालो. १९१९ त बरयल्ल्यो Letter to his father आनी The Judgment ह्यो ताच्यो दोन नांवाजिल्ल्यो कथा बापूय-पुता मदल्या संघर्शाची गवाय दितात. १९०६ त, ताणें प्राग विद्यापीठांतसून कायद्याची पदवी मेळयली. १९०८ त, कामगारांच्या एके विमा कंपनीत ताका नोकरी मेळ्ळी. मुखार पुराय वेळ बरप करपाखातीर ताणें ही नोकरी सोडून दिली.

फेलीस बवर हे चलयेकडेन ताची सोयरीक जाल्ली. पूण तिका क्षयरोगाची बादा जाल्या हें कळटकच ताणें तें लग्न मोडलें. आनीक एके चलयेकडेन ताणें लग्न जावपाचें थारायल्लें पूण तेंय लग्न ताणें मोडलें.

ह्या दोगांकूय बरयल्ल्या पत्रांचे झेले ताच्या साहित्यांत आस्पावतात. क्षयरोग जाल्ल्यान ताका वेगवेगळ्या सेनेटोरियमांनी रावचें पडलें. जिणभर उजवाडाच्या झोतापसून सदांच पयस रावन ताणें मरचे पयलीं आपलीं सगळीं हातबरपां आपलो लागींचो इश्ट डॉ. मॅक्स ब्रॉड हाचे सुवादीन केलीं. ताणेंच तीं हातबरपां संपादन करून उजवाडाक हाडलीं. चडशा हातबरपांक नांवां नाशिल्ल्यान तीं नांवांय ब्रॉडान दिलीं. तेचपरी काफ्काचें चरित्रूय ताणें बरयलें. १९१०-१९२३ ह्या काळांत ताणें बरयल्ल्यो दिसपटयोय उजवाडाक आयल्यात. ताचीं चडशीं पुस्तकां तांच्या मरणाउपरांत उजवाडाक आयलीं.

ताचीं म्हत्वाचीं पुस्तकां अशीं:- **The Judgment** (१९१३), **Metamorphosis and other Stories** (१९१६), **In the Penal Colony** (१९२०), **The Country Doctor** (१९२०), **The Trial** (१९२५), **The Castle** (१९२६), **Kafka's Prayer** (१९४७), **The Diaries of Franz Kafka** (१९४८-४९). ताचे नवलिकेंतलीं पात्रां अज्ञाताचो वेध घेतात. देखीक- The Castle हे नवलिकेंतलो नायक एका दोंगरावयल्या किल्ल्यांतल्या मुखेलीच्या आपोवण्यावयल्यान ताका मेळूंक वता. पूण अखेरमेरेन तांची भेट जायना. त्या किल्ल्यांत तो एके तरेच्या चक्रव्युहांत सांपडटा. तेच भशेन The Trial हे नवलिकेंतल्या जोजेफ के ह्या नायकाक पोलीस धरून व्हरतात आनी ताच्या आड न्यायालयांत खटलो चलयतात. पूण आपल्याचेर कसलो आरोप आसा हें ताका तशेंच त्या न्यायाधीशाकूय अखेर मेरेन कळना. The Metamorphosis हे ताच्या नांवाजिल्ले कथेंत मुखेल पात्राचें रुपांतर एका व्हड किड्यांत जाता. रुपकां भशेन आशिल्ल्या आपल्या कथा आनी नवलिकांवरवीं काफ्कान जिणेचो नवो अर्थ लावपाचो यत्न केला. ताणें आपल्या साहित्यांतल्यान जिणेचें अलौकिक दर्शन घडयलां.



**फ्रान्झ काफ्का**

दुसऱ्या म्हाझुजा-उपरांतच्या काळांत अस्तंतीं देशांनी अस्तित्ववाद नांवाची जी जिणेविशींची विचारसरणी प्रसारांत आयली, तिच्या कांय जनकांतलो काफ्का होय एक जनक, अशें बऱ्याच जाणकारांचें मत आसा. ताच्या साहित्यांतल्यान तो एक विचारवंत न्हय तर सर्जनशील लेखक म्हूण चड प्रभावी दिसता. निर्शेवणी, घुस्मटमार, उबगण, भिरांत, उमळशीक आनी उणावाचो अणभव हांचें ताणें भेस बरें चित्रण केलां. अस्तित्ववादी ताका आपलेच परंपरेंतलो लेखक मानतात.

ताच्यो सगळ्यो कथा आनी नवलिका खंयच्याच पारंपारिक तंत्रांत बसनात. आशय आनी तंत्र हांचे नदरेन त्यो नव्यो वाटो माड्डीत गेल्यात. देखुनूच विसाव्या शेंकड्यांतल्या नव्या साहित्याचें मुळावण घालपाचो मान ताका फाव जाला.

- माधव बोरकार

**काबा:** मक्केच्या सगळ्यांत व्हडले मशिदीचे मदीं आशिल्लें, संगमरवराच्या फातरान बांदिल्लें, १२.२० मी. लांब, १०.६५ मी. रुंद आनी १५.२४ मी. उंचायेचें हें एक पेड. 'काबा' ह्या उतराचो अर्थ चवकोनी इमारत वा स वटांनी सारके चवकोन आशिल्ली घन आकृती असो जाता. ह्या पेडाक एकूच दार आसून वेळा प्रसंगाक तें उक्तें करतात. हेर वेळार हें सबंद पेड 'किस्व' नांवांच्या अर्देस्मी काळ्या कपड्यान धांपिल्लें आसता. त्या कपड्याक भांगराचो जरीपटो आसा आनी मदीं कुराणांतलीं आयतां (वचनां) बरयल्यांत. वर्सानवर्स हें कापड तयार करून काबा भोंवतणी घालपाचो मान ईजिप्ताकडेन आसा. जिवितांत एकदां तरी मक्केची (काबाची) भोंवडी करून येवंची, अशी दरेका मुसलमानाची उपाट इत्सा आसता. जण एकलो यात्रेकार भक्त भेट घेवन जातकच काबाक सात प्रदक्षिणा घालता. सगळे मुसलमान काबाचे दिकेक तोंड करून नमाज पाठ वाचतात. तशेंच मडीं लेगीत काबाचे दिकेक तोंड करून पुरतात.

महंमद पैगंबराच्या काळांत आनी ताच्या आदल्या काळांत काबांत विंगड विंगड अरब जमातींच्यो आनी टोळयांच्यो देवतामूर्ती आशिल्ल्यो, दर वर्सा सगळे अरब काबाची भोंवडी करून आपापले देवतेचे मूर्तीची पूजा करताले. महंमदान मक्का जिखतकच ह्यो मूर्ती ल्हवल्हव नश्ट जाल्यो. आयज काबाचे इमारतींत काबाचे उदेंतेक एक व्हडली काळी शिळा (अल्-हजर अल्-अस्वद) आसा. काबाच्या दक्षिण कोनशांत आनीक एक पाशाणी शिळा (देड फूट लांब आनी २ इंच रूंद) आसा. ताका 'यमनस्तंभ' अशें म्हण्टात. काबाभोंवतणी प्रदक्षिणा घालतना दर खेपेक ह्या खांब्याक उजव्या हातान स्पर्श करपाची प्रथा आसा. काबाचे वायव्य दिकेक वण्टींत एक भांगराची तोटी आसा, तिका 'मिझाबुर रहमा' (दया-मुख) अशें म्हण्टात. काबाचेर पडपी पावसाचें उदक हे तोटयेंतसून सकयल गळटा आनी इस्माइलचे कबरीचेर पडटा. पांख्याक भांगराचे आनी चांदीचे दिवे हुमकळायल्यात आनी पाख्याचे तीन लांकडी खांबे, दारां आनी चौकटी हांचेर चांदीचो वर्ख लायला. वण्टींक चांदीचे पत्रे आसात.

आदामाक स्वर्गांतल्या नंदनवनांतल्यान धांवडायतकच ताणें सरळ काबाकडेन येवन आपली पयली प्रार्थना केली, असो मुसलमानांचो समज आसा. सगळ्यांत पयलीं आदिमानव आदम हाणें काबाची इमारत बांदली आनी ती मोडटकच अब्राहम आनी ताचो पूत इस्माइल हाणें काबाचो जीर्णोध्दार केलो, ते वेळार ईश्वरान ही धवी शिळा धाडली, असो मुसलमानांचो भावार्थ आसा. पूण अनंत काळासावन दरेक यात्रेकरु भक्त शिळेक हात लायता आनी ताचो उमो घेवन आपलीं पातकां थंय सोडटा. ताका लागून ती धवी शिळा काळी जाली अशें म्हण्टात. काबाच्या पेडाचो खूब खेपो जीर्णोध्दार केलो. इ.स. ९३० त कार्मेथियन पंथाच्या आक्रमकांनी ही शिळा चोरून व्हेल्ली ती वीस वर्सां उपरांत परत मेळ्ळी. सद्या ही शिळा भग्नावस्थेंत आसून चांदीच्या पट्यान घट्ट बांदून दवरल्या. शिळेच्या भोंवतणी चारुय वटेन गॅलरी आसा. शिळेमुखार 'झमझम' नांवाची एक बांय आसा. काबाचो जीर्णोध्दार करता आसतना इस्माइल आनी ताची आवय हाजर हांची तान भागोवपाखातीर देवदूत गाब्रिएल हाणें ही बांय माल्ली, अशी एक आख्यायिका आसा. काबाची भेट घेतकच भोंवडेकार भक्त 'झमझम' बांयचें उदक पियेतात. कांय जाण हें पवित्र उदक घराय व्हरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**काबुकी:** फाटलीं तीनशीं वर्सांसावन लोकप्रिय आशिल्लो एक जपानी नाट्यप्रकार. काबुकी हो शब्द 'काबुकू' ह्या क्रियापदापसून तयार जाला. 'काबुकू' चो मूळ अर्थ- प्रवृत्त करप वा फुडें काडप. णवव्या शेंकड्यांत नटांचो निर्देश करपाखातीर ह्या शब्दाचो वापर करताले. फुडें सतराव्या शेंकड्यांत ताचो अर्थ 'अप्रूपांचो वा अजापांचो' असो जावपाक लागलो. उत्तान शृंगारीक नाट्यविश्कारांतल्यान ह्या शब्दाक लैंगिकतेची सय आशिल्लो अर्थ प्राप्त जालो. 'काबुकू' हें क्रियापद सद्या जपानी भाशेंत अस्तित्वांत ना. हालींच्या काळांत मात 'काबुकी' शब्दांतल्या तीन ध्वनींचेर आदारीत असो अर्थ तयार केला तो असो: 'का' म्हळ्यार गीत, 'बु' म्हळ्यार नृत्य आनी 'की' म्हळ्यार अभिनयाचें कसब. हाचेवेल्यान गीत-नृत्य-नाट्य हांचो संगम म्हळ्यार 'काबुकी' अशें समीकरण रूढ जालां.

काबुकी नाट्यप्रकाराची सुरुवात १५८६ तल्या एका प्रसंगांतल्यान जाली अशें म्हण्टात. तो प्रसंग असो: एक दीस 'ओकुनी' नांवाची एक शिंतो धर्मोपदेशिका एके न्हंयच्या सुक्या पात्रांत नाचत-गायत बुध्दाची प्रार्थना करताली. तिच्या ह्या नृत्य-अभिनयान न्हंयचे देगेक तणार बशिल्ल्यांक बरीच भूल घाली. म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार तिचो एक मोगी नागोया सानुझाएमोन हो तिच्या नाचान आकर्शित जालो. फुडें ताणें तिच्या नृत्याक 'नो नाट्य' ह्या पूर्विल्ल्या जपानी नाट्यप्रकारांतल्या धर्तीची आनी तेन्नाच्या नामनेच्या लोकनृत्यांची जोड दिली. ओकुनीच्या ह्या नाचाक लागून सामान्य लोकांची बरीच करमणूक जावंक लागली आनी ताची लोकप्रियता बरीच वाडली. ह्या तिच्या 'काबुकी' नृत्यांत बायलो दादल्यांचें आनी दादले बायलांचें काम करतालीं. फुडें ओकुनीन एक नाट्यमंडळ तयार केलें आनी १६०३ त जपानभर भोंवडी करून तिणें आपल्या नृत्य-नाट्यान सगळो जपान भारावन उडयलो. त्याच वर्सा ६ मे दिसा क्योटोच्या राजवाड्यांत ओकुनीन शाही आपोवण्याक मान दिवन आपल्या नृत्य-नाट्याचो प्रयोग केलो. १६०४ तल्या गिमांत तिणें 'क्योटो' हांगा आपल्या ह्या नृत्य-नाट्याचे कार्यावळीखातीर 'नो' नाट्यगृहाचे धर्तीचेर एक तात्पुरत्या स्वरुपाची 'काबुकी रंगमाची' बांदली. काबुकीची ही पयलीच माची जावन आसा.

काबुकीचे लोकप्रियतेक लागून फुडें-फुडें गैशांनी ह्या कलाप्रकाराचो आश्रय घेतलो आनी सगळेकडेन मनोरंजनाच्यो कार्यावळी घडोवन हाडपाक सुरवात केली. हाचो परिणाम असो जालो की काबुकी नाट्यांत उत्तान शृंगार, बुरशे विनोद आनी अश्लीलता हांचो अच्छेव जावपाक लागलो. ताका लागून शासनान २३ ऑक्टोबर १६२९ दिसा 'ओन्ना काबुकीं' म्हळ्यार बायलांच्या काबुकीचेर कायदेशीर बंदी हाडली. 'काबुकीं'त बायलांनी काम करपाचें बंद जातकच रूपेस्त तरनाटे लांब लांब केंसांचीं झुलपां वाडोवन आनी बायलांचो भेस घालून काबुकी नृत्य-नाटकां करपाक लागले. हाका 'वाकाशू काबुकी' अशें म्हण्टात पूण परत त्याच कारणाक लागून शासनान १६३० त ताचेर परत बंदी हाडली. तरी लेगीत लोकप्रियतेचे तेंगशेक पाविल्लो हो नाट्यप्रकार तिगोवन दवरपाखातीर म्हाताऱ्यांनी फुडाकार घेतलो आनी दादले-बायलांचीं संवगां करून ताणी 'काबुकी' नाट्यप्रकार चालू दवरलो. म्हाताऱ्यांच्या, जाण्टेल्यांच्या 'काबुकी'क 'यारो काबुकी' अशें म्हण्टात. हातूंतलो मोनो अभियन, नृत्यां आनी प्रणयगीतां हाका लागून त्या काळांत 'काबुकी'न लोकांचीं मनां जिखलीं खरीं, पूण फुडें सतराव्या शेंकड्यांत काष्ठपांचालिकांच्या प्रयोगांचो परिणाम जावन काबुकीची लोकप्रियता मात्शी कमी जाली. मागीर काष्ठपांचालिक नाट्याकडल्यान कथानक आनी 'नो' नाट्याकडल्यान माची घेवन 'काबुकी' न आपलो नवो संवसार उबो केलो आनी तेन्नासावन आयजमेरेन आपलें अस्तित्व आनी खाशेलेंपण काबुकीन तिगोवन दवरलां. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत जपानी सरकारान राजकीय प्रचाराखातीर 'काबुकी' चो उपेग करपाचो यत्न केलो. पूण म्हाझुजाउपरांतच्या काळांत कांय काबुकी नाट्यांचेर बंदी आयली.

१९ व्या शेंकड्याच्या मध्याक जपानांत मोकुआमी कावाताके हो एक नामनेचो काबुली नाट्यलेखक जावन गेलो. मोकुआमीन आपल्या नाट्य-बरपांत सामान्य मनीस, नोकरवर्ग, भिकारी ह्या पात्रांचेर उजवाड घालो.

पुराणांतले कथाप्रसंग, शोकांतिक इतिहासीक कथानकां आनी समाजीक प्रेमकथा हे आयच्या काबुकीचे विशय आसून नृत्य आनी संगीताचो वापर तातूंत खाशेले शैलीन करतात. विदूशकाचें प्रहसन, परंपरागत पध्दतीचो भडक रंगांचो वेशभूषा, लेप, मुखवटे, रंगीबेरंगी माची हांचो वापर करतात. हालींच्या काबुकींत पयलींच्या काबुकीपरस संवाद चड आसतात. तातूंत साहित्यीक मूल्यांपरस प्रायोगिक मूल्यांचेर आनी नटाच्या नृत्याभिनयाचेर चड भर आसता. नट आपल्या सोबीत अभिनयावरवीं कथाकथन करता.

काबुकी नाट्यप्रकारांत 'नृत्य' हो घटक एकदम म्हत्वाचो. विंगड विंगड नृत्यप्रकार तातूंत दिसून येतात. घुंवपी रंगमाची, किमया-वाहक **(trap-lift)** आनी 'हानामिची' हीं काबुकीचीं खाशेलपणां जावन आसा. 'हानामिची' म्हळयार पुश्पपथ. रंगमाचायेकडल्यान प्रेक्षकांमदसून फाटल्यान मेरेन गेल्ली उक्ती वाट म्हळ्यार 'हानामिची'. काबुकी माची रुंदायेन चड आनी त्यामानान उंचायेन कमी आसता. एकाच वेळार सुमार ३,००० प्रेक्षकांक बसपाची वेवस्था आशिल्ल्या टोकियोंतल्या 'काबुकी-झा' ह्या नाट्यगृहांत माचयेची रुंदाय सुमार २७.३० मी. आसून उंचाय मात फकत सुमार ७.५ मी. आसा. ह्या प्रेक्षागारांतलो 'हानामिची' मार्ग सुमार १४ मी. लांब आसा. 'हानामिची' वेल्यान पात्रांचें येवप-वचप चालू आसतात, तेभायर ताचेर प्रसंगांक फावशे तरेतरेचे सैमाचे देखाव, दोंगरांतलो मार्ग, दाट रानां, रुख, दर्यादिगेवयली खाडी, राजप्रासादाच्या आवारांतलो मार्ग हांचोय आस्पाव आसता. घोड्याचेर बसून वचपी झुजारी, पालखेंतलो राजा आनी ताच्या फाटल्यान येवपी मेळ, नटांचो पंगड हानामिचीवेल्यान वतना दिसता. 'हानामिची'क लागून प्रेक्षक आनी नट हांचें लागींपण सादून माचयेर त्रिकोनी स्वरुपाचो परिणाम घडून येता. नृत्य- नाट्य-संगीत ह्या आंगांनी परिपूर्ण आशिल्लो 'काबुकी' नाट्यप्रकार आयज संवसारीक रंगमाचयेच्या मळार उपाट नामनेक पावला.

- कों. वि. सं. मं.

**काबूल:** अफगाणिस्तानाची आनी काबूल प्रांताची राजधानी. हिंदुकुश दोंगरांचे माळेंत, काबूल न्हंयेच्या दोनूय- कांठार, चहारदे आनी बेग्राम ह्या सुपीक देगणांनी हें शार समुद्रसपाटीपसून १,७९६ मी. उंचायेचेर वसलां. हें पेशावरच्या २२४ किमी. अंतराचेर वायव्येक आसून पेशावराक खैबर खिंडीवरवीं रस्त्यान जोडलां. हांगाचे गिमाचे दीस शितळ जाल्यार शियांचे दीस अतिथंड आसतात.

वैदिक काळासावन काबूल ज्ञात आशिल्ल्याचें पूर्विल्ल्या साहित्यावयल्यान दिसून येता. कपिला देशांतलें ह्या अर्थान 'कपिशा' नांवान हाचो उल्लेख मेळटा. पूर्विल्ल्या काळासावन अस्तंतेकडल्या देशांकडल्यान मध्य आशियांतल्यान भारत आनी चीन हांचेकडेन वचपी मुखेल खुश्कीच्या वेपारी मार्गावयलें म्हत्वाचें शार म्हूण हें नामनेक पावलां. पूर्विल्ल्या हिंदू आनी बौध्द संस्कृतायांचे अवशेश अजूनय ह्या शारांत मेळटात. सातव्या शेंकड्यांत अरबांनी ह्या शाराचो ताबो घेतलो. मोगल सम्राट बाबराची ही राजधानी (१५०४-२६) आशिल्ली. मागीर नादिरशाहान १७३८ त कबजो घेतकच काबूल मोगलांच्या ताब्यांत गेलें. १७७५ त तिमुरशाहची राजधानी हांगा आशिल्ली. भारतांत ब्रिटीश साम्राज्याची प्रस्थापना जातकच काबूलाक राजकीय आनी लश्करी म्हत्व प्राप्त जालें, तें एशियासारकें राश्ट्र शेजरा आशिल्ल्यानूच. अब्द-अर् रहमानखान हाणें काबूल सुदारपाचो आनी थंय उद्येगधंदे सुरू करपाचो यत्न केलो. १९३० त एक खास कार्यावळ आंखली आनी वीज, उदका-पुरवण, डांबरी रस्तो हांची तजवीज केली.

गर्देन भरिल्ले बाजार, अशीर रस्ते, पोरनीं घरां हें पयलींच्या काबूलचें खाशेलपण. व्हडले रस्ते, शासकीय आनी खाजगी वास्तू, भव्य प्रदर्शनालय, उद्यानां, क्रिडांगण हांची आर्विल्ल्या नगररस्थापत्याप्रमाण येवजण केल्ल्यान न्हंयेच्या दावे वटेनच्या नव्या काबूलची सोबितकाय वाडत आसा.

शाराभायर राजप्रासाद आसून बाबराची कबर आनी बला हिस्सार ही मध्ययुगांतली गढी (ल्हान किल्लो) आसा. काबूल हें एक म्हत्वाचें शिक्षणीक केंद्र आसून हांगाच्या काबूल विद्यापीठांत वैजकी, शेतकी आनी हेर महाविद्यालयां आसून तांत्रिक आनी माध्यमिक शिक्षणाची बरी वेवस्था आसा. लश्करी सामुग्री, शाबू, फर्निचर, कापड, संगमरवरी वस्तू हांचे कारखाने हांगा आसात. काराकुल मेंढरां, लोकर, सुकोमेवो आनी फळां हांच्या वेपाराचें तें केंद्र आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## काब्राल, आउगुश्तु: (जल्मः ?)

क्रिस्ती धर्म फुडारी. ताचो मूळ गांव वेर्णे. धर्मीक शिक्षण घेतल्या उपरांत तो राशोल सेमिनारींत शिकोवंक लागलो. फुडें तो बेळगांवां ह्या वाठाराच्या डायोसिजीचो व्हिकार जनरल (Vicar General) जालो. बिशप फोर्तुनांतु बेयग कुतिन्यु हाच्या मरणा उपरांत १८६७ वर्सा तो डायोसिजीचो कारभार पळोवंक लागलो.

- कों. वि. सं. मं.

## काब्राल, मोहना (मिस मोहना): (जल्मः १९३०, मुंबय; मरणः ११ सप्टेंबर १९९०, फ्रांस).

नामनेची गोंयकार कलाकार. तिका 'मिस मोहना' म्हूण वळखतात. तिचो मूळ गांव पर्वरी-बारदेस, पूण तिचे आवय-बापूय मुंबय वचून स्थायिक जाल्ले. गोड आवाज, सुंदर रूप आनी कलेची आवड ही जल्मजात देणगी तिका मेळिल्ली. तिचे हे गूण नामनेचो तियात्रिस्त सी. आल्वारीस हाणें लक्षांत घेतले आनी तिका पयले खेप माचयेर उबी केली. गोंयच्या कोंकणी तियात्राचे माचयेवेली ती पयली बायलमनीस. १९५० वर्सा सी. आल्वारीस हाचो पयलो तियात्र 'आवयचें कर्तुप' हातूंत तिणें धुवेचें सवंग घेतिल्लें. ह्या तियात्रावरवीं तिका खूब नामना मेळ्ळी.

१९४० वर्सा 'अफघान स्नो ब्युटी' सर्तींत तिका 'मिस बाँबे' म्हूण वेंचून काडली. सिनेमांत प्रवेश करपाक हो भोवमान तिका कारणीभूत जालो. 'सावन आया रे', 'पतंगा', 'संसार', 'रिमझिम', 'इन्सानियत', 'नगिना' आनी हेर कितल्याशाच हिंदी सिनेमांनी कामां करून चित्रपटाच्या मळार तिणें आपलें नांव जोडलें. उपरांत तिणें नर्गिस दत्तान निर्मिल्ल्या 'मेहंदी' बोलपटांत केल्ली विनोदी भूमिका आनी 'इन्सानियत' बोलपटांत केल्ली भूमिका खूब गाजली. अभिनया वांगडाच आवाजाची देण मेळिल्ल्यान गावपांतूय तिणें नांव जोडलें. 'रिमझिम' सिनेमांत तिणें गायिल्लें गीत खासा तिच्याच आवाजान रिकॉर्ड केल्लें आसा. 'मडकेंतलो नीस', 'मोगाळ म्हज्या भयणांनो', 'मोगाळ म्हज्या भावा', 'आरोसिना वांगडा', 'आशीर्वाद दी', 'आई', 'काळजाक म्हज्या पेटला उजो', 'सून' हीं तिचीं रिकॉर्डींच्या रुपांत आशिल्लीं कोंकणी गीतां.

गायनाच्या, तियात्राच्या आनी सिनेमाच्या मळार तिका एक आगळीच नामना मेळ्ळया. बैरुतच्या दूरदर्शन केंद्रांत ती अखेरमेरेन कलाकार म्हूण वावुरली.

- कों. वि. सं. मं.

## कामगार कायदे:

कामगारांची मजुरी, नोकरेच्यो अटी, कारखान्यांतली वेवस्था, नितळसाण, भलायकी, कामाचीं वरां आनी कामगार मालक संबंद हांचे विशींच्या कायद्यांक 'कामगार कायदे' अशें म्हण्टात. संवसारांतल्या सगळ्या देशांनी कामगार कायदे प्रचलित आसात. जशे जशे उद्येगधंदे आनी वेवसाय वाडपाक लागतात, तशी तशी कामगार वर्गाचे सुरक्षिततेखातीर कामगार कायदे लागू करपाची गरज उप्रासता. ह्या कायद्यांच्यो तरतुदी आनी तत्त्वां विंगड विंगड देशांत थंयचे परिस्थिती प्रमाण बदलतात.

उद्येगीक मळार फुडारिल्ल्या देशांनी कामगार संघटनांचें मोटें बळ आसा. हाका लागून कामगारांचें संरक्षण आनी हीत हें कामगार संघटना आनी कारखानदार वर्ग हांचे मजगतीं कबलात जावन थारता. ह्या देशांतल्या कामगार कायद्यांची भारतांतल्या कामगार कायद्यांइतली अंमलबजावणी जायना. ज्या देशांनी कामगार संघटनांक व्हडलेंशें बळ ना, थंय कामगारांक फकत कायद्याचोच आदार घेवंचो पडटा. हिंदुस्थानांत ब्रिटिशांचे मुस्तींत कायद्यांची सुरवात जाली, ताचे फाटलो मूळ हेत हो: कारखान्यांनी काम करपाक कामगार मेळचे आनी तांणी मदींच काम सोडून वचचें न्हय. कामगारांनी मदींच काम सोडलें जाल्यार तो फौजदारी स्वरुपाचो गुन्यांव मानताले आनी तांकां ख्यास्त फर्मायताले. १८५९ वर्सा, कामगार करारभंग अधिनेम आनी १८६० वर्सा मालक कामगार तंटो (dispute) अधिनेम चालीक लागलो. पूण हे कायदे अन्याय आनी जुलूम करपी स्वरुपाचे आशिल्ल्या कारणान १९२० वर्सा उपरांतच्या काळांत रद्द जाले.

हिंदुस्थानांत कामगार-कल्याण विशींचो पयलो कायदो १८८१ वर्सा कारखान्याच्या अधिनेमाच्या स्वरुपांत अंमलात आयलो. इंग्लंडांतल्या कारखानदारांच्या दबावाक लागून हो कायदो आयलो. मुंबय, कलकत्ता, अहमदाबाद ह्या शारांनी ज्यो कापडाच्यो गिरणी आसल्यो तातूंत काम करपी बायलां- भुरग्यांच्या कामाविशीं कांयच नेम नासले आनी कामाच्या वरांचो सुमार नासलो. हाका लागून हांगा तयार जावपी माला वांगडा सर्त करप हें ब्रिटीश कारखानदारांक कठीण जावपाक लागलें. हिंदुस्थानातल्या कारखान्यांनी कामांचीं वरां आनी बायलां-भुरगीं हांच्या कामाविशीं पध्दतशीर नेम थारावचे अशी मागणी सगळ्या पांवड्याचेर जावपाक लागली. हिंदुस्थानांतल्या कांय समाजसुधारकांनीय हे येवजणेक तेंको दिलो. अशे तरेन हो अधिनेम चालीक लागलो.

पूण हो अधिनेम सामको मुळाव्या स्वरुपाचो आशिल्लो. कांय काळा उपरांत, कामगार आनी कारखानदार हांचे सुचोवणेवयल्यान १८९१ वर्सा ह्या कायद्यांत सुदारणा जाली. १९११ आनी १९२२ वर्सांनी सुदारणा केल्ल्या कायद्यांत दादल्यांच्या कामांच्या वरांचेरुय बंधन घालें. १९२२ वर्सा केल्ल्या नेमाप्रमाण कामाच्या वरांचें दिसाक धा आनी सप्तकाक साठ अशें प्रमाण थारायलें. सप्तकाक एका दिसाची सुटी, कामाच्या दिसांनी मदीं एका वराची सुटी, बायलांक रातचें काम आसचें न्हय अशा मुखेल येवजण्यांचो तातूंत आस्पाव आशिल्लो. मागीरच्या काळांतूय ह्या कायद्यांनी गरजेप्रमाण फाव ते बदल घडोवन हाडले.

कामगार कायद्यांविशीं १९१९ वर्सा नवें पर्व सुरू जालें. कामगार कायद्यांक मध्यवर्ती सरकार आनी प्रांतीय सरकार हांचेकडसून मंजुरी मेळपाक लागली. ह्याच काळांत कामगारांनी आपापल्यो संघटना उबारपाक सुरवात केल्ली. १९१९ वर्सा आंतरराष्ट्रीय थराचेर वावुरपी कामगार संघटनेची थापणूक जाली. भारत देश हे संघटनेचो सुरवातीक सावन सभासद आसलो. हे संघटनेन केल्ल्या मोलादीक वावराक लागून कांय म्हत्वाचे कामगार कायदे मंजूर जाले. १९२९ वर्सा ब्रिटीश सरकारान भारतांतल्या कामगार वर्गाचो सुमार घेवपाक 'व्हिटले कमिशन' नांवाचो आयोग नेमलो. १९३१ वर्सा ह्या आयोगान सादर केल्ल्या अहवालांतल्या सुचोवण्यांप्रमाण सुमार वीस कायद्यांक मान्यताय मेळ्ळी. तेभायर राष्ट्रीय काँग्रेस पक्षानूय कामगार कायद्याचे मान्यतायेसंबंदान यत्न सुरू केल्ले. स्वतंत्रतायेउपरांत ह्या कार्याक खूब नेट आयलो. तेन्नासावन केंद्रीय आनी राज्य सरकारांनी नवे कामगार कायदे चालीक लायले आनी अस्तित्वांत आशिल्ल्या कायद्यांनी सुदारणा केल्यो. सद्या सुमार १२५ मुखेल कामगार कायदे अंमलांत आसात.

केंद्रीय आनी राज्यांपुरते मर्यादित आशिल्ल्या कायद्यांची वळेरी अशी आसा:

(अ): कारखाने, खणी, मळे सारकिल्या उद्येगधंद्यांनी कामाची वेवस्था, पध्दत, कामाचीं वरां, सुटयो हांचेर नियंत्रण दवरपी कायदेः १. कारखान्यांविशींचो १९४८ वर्साचो अधिनेम (Factories Act) २. १९५२ वर्साचो खणीविशींचो अधिनेम (Mines Act) ३. १९५१ वर्साचो मळ्यांनी वावुरपी कामगारांचो कायदो ४. येरादारीविशींचे कायदेः १८९० वर्साचो रेल्वे अधिनेम, १९५८ वर्साचो बोटीविशींचो अधिनेम, १९४८ वर्साचो बंदरांत काम करपी कामगारांच्या वावराचेर नियंत्रण दवरपी अधिनेम, १९६१ वर्साचो गाडयांचे येरादारीविशीं कामगारांक लागू पडपी अधिनेम. ५. दुकानां आनी वेपारी संस्था हातूंत काम करपी कामगारांचे कायदेः हे कायदे राज्य सरकारांनी राज्यांचे गरजेप्रमाण मंजूर केल्ले आसात. हेभायर मध्यवर्ती स्वरुपाचो १९४२ वर्सा चालीक लायिल्लो सप्तकांतले सुटयेविशींचो एक अधिनेम आसा.

(आ): सुरक्षितता आनी कल्याण येवजणेचे कायदेः १. १९३४ वर्साचो गोदी कामगारांचो अधिनेम २. अभ्रकाच्या (Mica) खणींनी वावर करपी कामगारांक लागू पडपी १९४७ वर्साचो अधिनेम ३. कोळशाच्या खणींनी

वावर करपी कामगारांक लागू पडपी १९४७ वर्साचो अधिनेम ४. हे वळेरेंतले कामगार भलायकेविशींचे कायदे महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी पंजाब ह्या राज्यांनी आसात. उत्तर प्रदेश राज्यांत साकर आनी सोन्याच्या कारखान्यांनी काम करपी कामगारांखातीर वेगळो कायदो आसा. आसाम राज्यांत १९५९ वर्सा मंजूर जाल्लो मळ्यांनी काम करतल्यांखातीर वेगळो कायदो आसा.

(इ): पगाराविशींचे कायदे: हातूंत म्हत्वाचो कायदो म्हळ्यार १९३६ वर्साचो कामगारांक पगार दिवपाविशींचो अधिनेम. (Payment of Wages Act). ह्या कायद्याक लागून, एके थारायिल्ले मुदतीभितर म्हळ्यार पगाराचे तारखेसावन सात वा धा दिसांभितर कामगारांक पगार दिवपाक जाय, अशें बंधन कारखानदारांचेर पडलां. आनीक म्हत्वाचे कायदे म्हळ्यार १९४७ वर्साचो उण्यांत उणो पगार दिवपाविशींचो कायदो (Minimum Wages Act) आनी १९६५ वर्साचो कामगारांक 'बोनस' (कारखानदारांच्या नफ्याचो कांय वांटो) दिवपाविशीं तजवीज करपी कायदो (Payment of Bonues Act).

(ई): समाजीक सुरक्षिततायेचे कायदे: हे वळेरेंत अखिल भारतीय स्वरुपाचे दोन कायदे आसात. १. १९४८ त, मंजूर जाल्लो कामगार विमो येवजणेचो अधिनेम (Employees' State Insurance Act). काम करता आसतना जावपी दुखापतीक लागून लुकसाण भरपाय मेळपाची तजवीज ह्या कायद्यांत केल्ली आसा. २. १९५२ वर्साचो कामगारांच्या भविश्यनिर्वाह निधीविशींचो अधिनेम (Employees' Provident Fund Act). ह्या कायद्याप्रमाण कामगारांच्या पगारांतल्यान कांय थारावीक टक्के रकम कमी करतात आनी ती रकम एका फंडांत जमा करतात. तशेंच मालकूय आपलेकडली तितलीच टक्के रक्कम त्या फंडांत जमा करता. जाण्टेपणांत कामगारांच्या हातांत कांय रक्कम उरची हो हे येवजणेफाटलो हेत जावन आसा.

(उ): उद्येगीक संबंदांविशींचे कायदे (Industrial Relations Act): १. १९२६ वर्साचो कामगार संघाचो अधिनेम (Trade Unions Act). ह्या कायद्याप्रमाण कामगारांक आपल्या स्वतंत्र संघाची थापणूक करपाक मेळटा आनी कामगारांनी थापणूक केल्ल्या संघाक मान्यताय मेळटा. २. १९४६ त, मंजूर जाल्ले उद्येगीक मळावयल्या नोकरेविशींचे नेम- हे नेम तयार करून जाहीर करपाची जापसालदारकी कारखानदारांचेर आसता. कामगारांवांगडा भासाभास करून कारखानदार हे नेम थारायतात आनी मागीर मजूर खात्यांत त्या नेमांची नोंद करतात. ३. १९४७ वर्साचो उद्येगीक वादांविशींचो कायदो (Industrial Dispute Act).

(ऊ): कांय हेर कायदे आनी येवजण्यो अश्यो आसात- १. फकत जाण्ट्यांचें रीण फारीक करपाखातीर भुरग्यांक नोकरेर दवरपाआड वावुरपी कायदो. २. कांय राज्यांनी चालीक लायिल्ले कामगारांखातीर घरांची येवजण करपी कायदे, ३. १९५० वर्साचो काम शिकपी कामगारांविशींचो कायदो (Apprentices Act).

- ॲड. अमोल थळी

**कामत, आनंद उत्तमः** (जल्मः १९ ऑगस्ट १९१९, लोलयें-काणकोण).

गोंयचो सुटके झुजारी. नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो तो वांगडी आसलो. १९४८ ते १९५४ ह्या काळांत ताणें जायतो राश्ट्रवादी वावर केला. १९५५ वर्साचे सुर्वेक ताणें कुंकळ्ळी पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत वांटो घेतिल्लो. १६ एप्रिल १९५५ दिसा पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो. उपरांत स म्हयने ताका मडगांव आनी पणजी बंदखणींत दवरलो. बंदखणींत पोलिसांनी ताका खर ख्यास्त दिल्ल्यान ताचो उजवो हात आनी पांय पांगळो जालो. उपरांत पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत (Territorial Military Tribunal) चवकशी जातकच ताका आग्वाद बंदखणींत देड वर्स खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ऑगस्ट १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**कामत, गोपाळ आपाः** (जल्मः २२ जुलय १९१७, सांखळी-दिवचल; मरणः २ एप्रिल १९९०, पणजी).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव आपा कामत. लिसेवाचें सातवें वर्स मेरेन शिक्षण घेतलें. पोर्तुगेज कायद्याची पदविका घेतली. तो वकिल (Lawyer) आशिल्लो. डिसेंबर १९४६ वर्सा म्हत्वाच्या राजकी दर्जाविशीं (Special Political Status) उलोवणी करपाक एक कमिटी नेमिल्ली. गवर्नर जनरल बॉसान हे कमिटीचेर ताका नेमिल्लो. पूण ताचे राश्ट्रवादी विचारसरणेक लागून ताका दुभावीत नदरेन पळोवंक लागले. १९४७ आनी १९५२ वर्सा दोन खेपे ताची चवकशी जाली.

१ जून १९५४ दिसा 'राश्ट्रीय काँग्रेस गोंय' (National Congress Goa) संघटनेची सावंतवाडी वाठारांत बसका जाल्ली. तातूंत संघटनेचे कार्यकारी कमिटीचो वांगडी म्हूण ताका वेंचून काडलो. मार्च १९५४ वर्सा राश्ट्रीय काँग्रेस गोंय संघटनेची, मुखावेल्या कार्याची आंखणी करपाक बसका जाल्ली. तेन्ना संघटनेचे मध्यवर्ती कमिटीचो (Central Committee of NCG) अध्यक्ष म्हूण ताका वेंचून काडलो. ताणें डॉ. टी. बी. कुन्य, पीटर आल्वारीस आनी डॉ. पुंडलीक गायतोंडे ह्या सुटके झुजाऱ्यांच्या मार्गदर्शनाखाल सुटके झुजाचो वावर केला. त्या काळांत तो राजकीय कैद्यांच्यो केसी चलयतालो. ३० जून १९५४ दिसा चळवळींनी वांटो घेता, ह्या आरोपाखाल पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका अटक केली. उपरांत पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत (Territorial Military Tribunal) ताची चवकशी जाली फुडें पांच जुलय १९५५ दिसा न्यायालयान ताका धा वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर दर दिसाक वीस इस्कूद हे प्रमाण दोन वर्सां ताका दंड भरूंक लायलो आनी पंदरा वर्सांखातीर ताचे राजकी हक्क काडून घेतले. इतलेंच न्हय तर न्यायालयांत वचपाकूय ताचेर बंदी हाडिल्ली. १५ ऑगस्ट १९५९ दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. गोंयांखातीर स्वायत्ततेचे मागणेची येवजण केल्ल्याखातीर २० जून १९६१ दिसा पोलिसांनी ताका परतो धरलो. तेन्ना ताचे वांगडा मुंबयच्या 'ब्लिट्झ' (Blitz) ह्या इंग्लीश नेमाळ्याचो पत्रकार श्रीधर तेलकर हाकाय अटक जाली. फुडें ९ ऑक्टोबर १९६१ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. गोंय सुटके उपरांत १९६७ ते १९७२ ह्या काळांत तो गोंय विधानसभेचो सभापती आशिल्लो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८२ दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**कामत, जनार्दन विष्णु (जनाप्पा कामत):** (जल्मः २१ डिसेंबर १८८६, काकोडें- केपें; मरणः २ नोव्हेंबर १९६५, मुंबय).

एक समाजसेवक आनी लेखक. बापायचें नांव विष्णु विठ्ठल कामत. ताणें घरच्या घराच मराठींतल्यान मुळावें शिक्षण घेतलें आनी पोर्तुगेजींतल्यान सेगुंदग्रावाची परीक्षा दिली. ताचे पिरायेच्या णव वर्सांचेर ताचो बापूय मेलो आनी घरचो भार ताचेर पडलो. पाद्रीचे सांगणेवेल्यान पोर्तुगेजांनी चंद्रेश्वर देवाच्या शिगम्याचेर बंदी घाल्ली. ताचे आड कारवाय करपाक ताका न्यायालयांत वचचें पडटालें. तेन्ना ताणें पोर्तुगेजांच्या कायद्याचो आनी राजवेवस्थेचो पुराय अभ्यास केलो.

ताणें भौशिक वावराक सुरूवात केली ती पिरायेच्या विसाव्या वर्सा. १ जानेवारी १९०७ दिसा ताणें केपें तालुक्यांतल्या पाड्डें वाठारांत 'पारोडे मराठी ग्रंथसंग्रहालय' नांवाची संस्था थापणूक केली. तो एक खर राश्ट्रवादी आशिल्लो. तेचपरी 'भारतीय राश्ट्रीय काँग्रेस' हे संघटनेचो तो अनुयायी आशिल्लो. भारत देशांत चलिल्ल्या स्वदेशी चळवळीचो (Swadeshi Movement) ताचेर प्रभाव पडिल्लो. स्वदेशी चळवळीक तेंको दिवपाखातीर ताणें साकर परदेशांतल्यान येता म्हूण साकर खावपाचें सोडून दिलें आनी गोड वापरूंक लागलो. १९२० वर्सा सावन लेख

बरोवन, व्याख्यानां दिवन ताणें अस्पृश्यतेचें निर्मूलन करचे पासत आनी सोऱ्याचेर बंदी हाडूंक तळमळीन वावर केलां. १९२८ वर्सा मसुराश्रमाचे प्रेरणेन गोंयांत धा हजार किरिस्तांव गावड्यांचें जें शुध्दीकरण (पर्थून हिंदू धर्मांत प्रवेश) जालें तातूंत ताणें व्हडा उमेदीन वांटो घेतिल्लो. १९४६ वर्साचे सुटके चळवळींत वांटो घेतिल्ल्या झुजाऱ्यांचे खटले चलोवपाक तो वकीलांक आदार दितालो. १९४७ मेरेन गोंयांत ज्यो ज्यो चळवळी जाल्यो तांकां ताणें शारिरीक तसोच बौध्दिक आदार दिला. १९४९ वर्सा ताका धरपाचें पोलिसांनी फर्मान काडलां म्हणपाची खबर ताका कळ्ळी, तेन्ना तो बेळगांव वचून लिपलो आनी थंयच्यान मुंबय गेलो. १९४९ ते १९६४ हीं निमाणीं पंदरा वर्सां तो मुंबय आशिल्लो. थंय ताणें समाजीक, राजकीय आनी साहित्यीक वावर केलो.

डिसेंबर १९४७ त पुण्यांत 'गोमंतक मराठी संमेलन' भरिल्लें. तातूंत 'नागरी असहकार चळवळीक' (Civil Disobedience Movement), संमेलनाचो तेंको मेळचो म्हूण ताणें यत्न केले. १९५२ वर्सा ह्या संमेलनाचें मुंबय जें अधिवेशन भरिल्लें, ताचो तो येवकार अध्यक्ष आशिल्लो. १९५४ वर्सा दादरा आनी नगर हवेलीच्या सुटके झुजाखातीर तो वावुरलो. १९५४ वर्सा सावन बा. द. सातोस्कार हाच्या संपादनाखाल भायर सरपी 'दूधसागर' नेमाळ्यांत ताणें लोकजागृताय हाडपाक लेख बरयल्यात.

१९१४ ते १९६५ काळांत ताणें गोंयच्या आनी मुंबय-पुण्यांतल्या नेमाळ्यांनी जायतें बरप केलें. 'दूधसागर' नेमाळ्यावरवीं आपले जिणेचेर ताणें 'सत्तरींतील पन्नाशी' नांवाची लेखमाला बरोवंक सुरवात केली. पूण गोंय सुटके उपरांत तें नेमाळें बंद जाल्ल्यान ही लेखमाला अर्दीच उरली. ताणें 'गोमंतकांतील ग्रामसंस्था' ह्या विशयाचेर एक पुस्तिका बरयल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## कामत, तुळशीदास काशीनाथ: (जल्मः १९३४, वळवय-फोंडें; मरणः ?).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव काशीनाथ कामत. आझाद गोमंतक दल संघटनेचो तो वांगडी आसलो. पोर्तुगेजांआड घातपात करपांत तो वांटो घेतालो. जुलय १९५५ त सुर्ला खणीचेर घुरी जाल्ली, तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत घालो. थंय ताचेकडल्यान मोहन रानडे ह्या सुटके झुजाऱ्याविशीं म्हायती मेळची म्हूण ताका बरेच शारीरिक त्रास दिले. पोलिसांच्या ह्या खर त्रासांक लागून ताका बंदखणींत मरण आयलें. १८ जून १९८४ दिसा गोंय सरकारान ताचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कामत, दत्താराम पांडुरंग: (जल्मः ८ फेब्रुवारी १९३०, वळवय-फोंडें).

गोंयचो सुटके झुजारी. आझाद गोमंतक दल संघटनेचो तो वांगडी आसलो. सुटके झुजारी मोहन रानडे हाच्या फुडारपणाखाल तो काम करतालो. पोर्तुगेजांआड कारवायो करता, ह्या आरोपाखाल पोलिसांनी ताका २५ ऑगस्ट १९५५ दिसा धरलो. उपरांत बंदखणींत दवरुन १२ जानेवारी १९५७ दिसा ताची सुटका केली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## कामत, रामचंद्र पांडुरंग: (जल्मः ३० जुलय १९०४, मडकय).

एक आंतरराश्ट्रीय किर्तीचो गोंयकार शिल्पकार. भुरगेपणासावन ताका चित्रकार वा शिल्पकार जावपाची इत्सा आशिल्ली. पिरायेच्या तेराव्या वर्सा तो घरांतल्यान पळून मुंबय गेलो. मुंबय येवन गिरगांव हांगाच्या 'केतकर्स आर्ट इन्स्टिट्यूट' हे संस्थेंत तो चित्रकलेचें शिक्षण घेवंक लागलो. थंयच ताणें चित्रकलेचो त्याग करून शिल्पकलेचो अभ्यास सुरू केलो आनी तातूंत उपाट यश मेळयलें. १९२८ त, 'जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट' हातूंत ताणें प्रवेश केलो. स्वतंत्र नदरेन विचार करपाची कुवत आनी हेरांपरस आगळी वेगळी कलाकृती करपाचें कसब हाकालागून प्रिन्सिपल ग्लॅडस्टन सॉलोमनण हाचो तो आवडटो विद्यार्थी जालो. 'बॉम्बे आर्ट सोसायटी'च्या वर्सुकी कला प्रदर्शनांत ताणें 'नुस्तेकार भुरगो' नांवाची कलाकृती धाडिल्ली, ताका रुप्यापदक मेळ्ळें.

मुंबयचें शिक्षण सोंपतकच प्रिन्सिपल सॉलोमनच्या उत्तेजनाक लागून तो १९३० त शिल्पकलेचें उच्च शिक्षण घेवपाखातीर इंग्लंडाक गेलो. थंय ताणें 'रॉयल अकादेमी ऑफ आर्ट्स' हे नामनेचे संस्थेंत प्रवेश घेतलो.

रॉयल अकादेमी दर वर्सा कलाकृतींचें संवसारीक प्रदर्शन घडोवन हाडटाली. तातूंत रामचंद्र कामत हाणें पिरायेच्या २४ व्या वर्सा केल्ल्या 'आदाम आनी ईव्ह हांकां ईडनांतल्यान धांवडावप' हे काश्याचे कलाकृतीक रॉयल अकादेमीचें भांगरा पदक, शिश्यवृत्ती आनी हेर भोवमान फाव जाले. लंडनच्या रॉयल अकादेमीचें भांगरापदक मेळोवपी तो एकटोच भारतीय कलाकार. तो भारतांत परत आयलो, तेन्ना गोंयकारांनी ताचो व्हड सत्कार केलो.

ताच्यो कांय नामनेक पाविल्ल्यो कलाकृती अश्योः सर दिनशा वाछाची मूर्ती (चर्चगेट-मुंबय), लक्ष्मी इन्शुरन्स बिल्डिंग (फिरोजशहा मेहता रोड) ची व्हडली प्रतिमा, प्रतापगढ किल्ल्यांत शिवाजी महाराजाचो अश्वरोहीत पुतळो आनी झांशी हांगा घोड्याचेर बशिल्ली महाराणी लक्ष्मीबाई हिची १६ फूट ऊंच मूर्त.

'कलेचें स्वरूप खूब व्हड आसून तिका आमी एका खंयच्याच रुपांत बांदूक शकनात', अशें ताचें मत आसा. सद्या ताचो राबीतो मुंबय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## कामत, रामचंद्र विष्णु: (जल्मः इब्रामपूर-पेडणें).

गोंयचो सुटके झुजारी. १९५६ वर्सासावन ताणें गोंयच्या सुटके झुजांत वांटो घेतला. मुंबय डेप्युटी इन्स्पेक्टर जनरल नगरवाल हाच्या मार्गदर्शनाखाल ताणें काम केल्लें. आझाद गोमंतक दल, गोंय सुटके सैन्य (Goa Liberation Army) आनी रांकूर पात्रिओतिका (Rancour Patriotica) ह्या संघटनांनी ताणें वावर केला. पोलीस ठाण्यांनी हल्लो करप, पुलांनी सुरींग घालप असल्या कामांनी तो वांटो घेतालो. मुंबय क्रिमिनल इनवेस्टिगेशन डिपार्टमेन्ट (CID) हाका गोंयच्या राजकी वातावरणाची वेळार खबर पावोवपाचें काम तो करतालो. ८ जानेवारी १९६० दिसा पोलिसांनी ताका म्हापशां वाठारांत धरलो आनी बरोच मार दिवन बंदखणीत घालो. उपरांत ताची सुटका जाली. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## कामत, रामदास: (जल्मः १८ फेब्रुवारी १९३१, म्हापशें).

नामनेचो नाट्य संगीत गायक आनी कलाकार. ताचो मूळ गांव सांखळी. मराठी चवथी यत्ता पास जाल्याउपरांत ताणें फुडलें मॅट्रिक मेरेनचें शिक्षण पणजेच्या पिपल्स हायस्कुलांतल्यान पुराय केलें (१९४९). उपरांत मुंबयच्या विल्सन कॉलेजांतल्यान, अर्थशास्त्र हो विशय घेवन ताणें बी. ए. केली. ताणें एअर इंडियांत मॅनेजर म्हूण काम केलां. सुर्वेक ताचो भाव सर्गेस्त उपेंद्र कामत हाचे कडल्यान सुमार पंदरा वर्सां शास्त्रीय संगीताचे गिन्यान मेळयलें. उपरांत गोविंदराव अग्नी, जितेंद्र अभिषेकी, यशवंत बुवा जोशी हांचेकडल्यान फकत वेगवेगळ्या गितांचे तालमीवेळार ताका जें शिक्षण मेळ्ळें, तें ताणें आपणायलें. शास्त्रोक्त गायनापरस ताका नाट्य-संगीतांत आनी भक्ति-संगीतांत चड नामना मेळ्ळ्या.

गायनावांगडाच ताका अभिनयाचीय आवड आशिल्ली. ताणें जायत्या नाटकांनी कामां केल्यांतः ताणें केल्ल्या कांय नाटकांचीं नांवां आनी तातूंतल्यो ताच्यो भूमिका अश्योः 'देवयानी'- कच, 'होनाजी बाळा'- होनाजी, 'मानापमान'- धैर्यधर, 'सौभद्र'- कृष्ण आनी नारद, 'संशयकल्लोळ'- आश्विनशेट, 'मत्स्यगंधा'- पराशर. आवाजाची

गोडसाण आनी अभिनयाची तांक ह्या गुणांक लागून रसिकांक ताची ओड लागली.

महाराष्ट्र, कर्नाटक, कोचीन, कालिकत, मद्रास, दिल्ली, दुबय, अमेरिका, शिकागो, वॉशिंग्टन, टोरोंटो, लंडन, मँचेस्टर आनी हेर जायत्या सुवातींनी ताचे कार्यक्रम जाल्यात. 'गोंयां तुजी याद येता', 'आज आमचें राज्य आयलें', 'सूर्य गेला पलतडी' आनी ताणें गायिल्ल्या कांय हेर कोंकणी गीतांक रसिकांचो बरोच प्रतिसाद मेळ्ळा. स्पश्ट आनी म्हौंवाळ वाणी हें ताचे गायन कलेचें खाशेलेपण जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## कामती, राम: (जल्मः ?; मरणः ?).

एक बुदवंत, चोख वेव्हाराचो, लोकांच्या आनी सरकाराच्या विस्वासाचो, हिंदू समाजाचो मुंबय शारांतलो फुडारी. ताचे पूर्वज १६६२ वर्सा पयलींच गोंयच्यान मुंबय गेल्ले.

सुर्वेक ताणें कंपनी सरकाराकडल्यान तंबाखूचो वेपार करपाखातीर सगळे हक्क मेळयले. ह्या धंद्यांत ताका बरें येस मेळ्ळें. उपरांत तो अफू, साकर, शिशें, लोखण, कथील आदींचो वेपार देशांत आनी परदेशांत करूंक लागलो. तेवेळचो इंग्लीश गवर्नर ताची बुद्द घेतालो. सरकारी दरबारांत ताका पयलो मान आशिल्लो.

इंग्लीश न्यायसभेंत तो वयल्या पांवड्याचो हिंदी न्यायधीश आशिल्लो. धर्मीक आनी सात्विक चलणुकेचो मनीस म्हणूनय ताची नामना आशिल्ली. ताका देवळां बांदपाची आवड आशिल्ली. ताणें मुंबय शारांत सामळियालाल हाचें देवूळ बांदलें. तशेंच वाळकेश्वराक, शिलाहार काळांतलें मोडिल्लें म्हादेवाचें देवूळ पर्थून बांदून घेतलें. तो बुदवंत आनी हुशार सराफ म्हूण ताच्या तरणेपणांत मुंबयच्या काउन्सिलांत ताका वेंचून काडिल्लो. जंजिऱ्याच्या सिद्दीचे घुरयेवेळार ताणें बरी कामगिरी केल्ली. ताची हुशारकाय लक्षांत घेवन कंपनी सरकारान ताका टांकसाळीचो मुखेल अधिकारी म्हूण नेमलो. फुडें १७१८ वर्सा सगळ्या देशी सैन्याचेर मुखेल म्हूण आनी उपरांत मास्टर जनरल म्हूण ताची नेमणूक जाल्ली.

ताका हिंदुत्त्वाचो अभिमान आशिल्लो, जाका लागून ताचो ब्रिटिशांकडेन वाद जावंक लागलो. भर दिसा उक्ताडार मांसाखातीर गायो मारपाची ब्रिटिशांची चाल ताणें बंद करूंक लायली आनी गायचें मांस मुंबयत भायरसून हाडपाक लायलें. हांका लागून ब्रिटीश अधिकारी आनी मुंबयचो गव्हर्नर बून हांचेकडेन ताचें वायटपण जालें. तेन्नाच खांदेरी हांगासर कान्होजी आंग्रेकडेन ब्रिटिशांचें झूज जाल्लें, तातूंत ब्रिटिशांक हार खावची पडली. राम कामती, आंग्रे हाका मेळिल्ल्यान ब्रिटीश हारले असो लडायेच्या दोन वर्सांउपरांत ब्रिटिशांनी ताचेर आरोप केलो. तेखातीर कोर्टांत ताका आजल्म बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ताची सगळी मालमत्ता जप्त केली. अखेर पिरायेच्या ७५ व्या वर्सा ताका बंदखणीतूच मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

## कामदेव:

हिंदू पुराणकथांत वर्णिल्लो, तरनाटे दादले-बायलांच्या मनांतलो देव. हाचो जल्म सुर्वेक ब्रह्मदेवाच्या काळजांतल्यान जालो, अशें म्हण्टात. तो परत श्रीकृष्ण-रुक्मिणी हांचेपसून प्रद्युम्न नांवान उत्पन्न जालो. मन्मथ, आत्मभू, अनंग, मार, मनसिज, कंदर्प, स्मर, पुष्पधन्वा, पचशर, रतिपती, मीनकेतन, दर्पक, मदन ह्या नांवानूय कामदेवाचे उल्लेख मेळटात. कामदेवाच्या प्रभावानूच ब्रह्मदेव आनी ताची धूव संध्या हांच्या मनांत एकामेकांविशीं कामविकार तयार जालो. हाका लागून शंकरान ब्रह्मदेवाचो उपहास केलो. तेन्ना ब्रह्मदेवान तिडकीभितर कामदेवाक शाप दिलो. त्या शापाप्रमाण, ताका शंकरान लासलो आनी तो कूड विरयत जालो. मागीर ब्रह्मदेवाच्या उःशापाक लागून शंकर-पार्वतीच्या मीलनाउपरांत ताका ताचें शरीर आशिल्लें तशें मेळ्ळें. संध्येनूय तप करून विष्णू देवाक संतुश्ट केलो आनी जल्माक येतनाच प्राणीमात्रांच्या मनांत कामविकार जावंचो न्हय म्हूण वर मागलो. ह्या वराक लागून जीव-प्राणी जल्माक येतनाच सकाम नासतात, तर ते तरणे पिरायेचेर सकाम जातात, अशी पुराणांत कथा आसा.

कामदेवाचें धनुश्य आनी बाण दोनूय फुलांचे जावन आसात. ताचें धनुश्य इक्षुदंडाचें आशिल्ल्याचोय उल्लेख मेळटा. रक्तकमल, नीलकमल आंब्याचंवर, अशोकाफूल आनी मोगरें हीं पांच फुलां ताचे बाण. संमोहन, उन्मादन, शोषण, तापन आनी स्तंभन हांचोय कामाचे पांच बाण म्हूण उल्लेख आसा. ह्या बाणांवरवीं तो तरणाटे चले-चलयांचीं काळजां विरगळावन उडयता. वसंत ऋतू कामदेवाचो इश्ट जाल्ल्यान वसंतोत्सवांत ताची पूजा करपाची पध्दत आसा. शुक (पोपट) हें ताचें वाहन आनी दक्षकन्या रती ही ताची बायल. ताचे प्रतिमेचें वर्णन अशें: 'रूपान भोव सुंदर, आठ हात, चार हातांत शंख, पद्म, धनुश्य आनी बाण. उरिल्ले चार हात रती, प्रीती, शक्ती आनी उज्ज्वला ह्या चार बायलांच्या काळजार, ताच्या ध्वजाचेर मकर (मानगें) आनी मीन (नुस्तें) आसता.'

चैत्र शुध्द दुवादशीक कामदेवपूजा करतात. ही पूजा करतना एका वस्त्रखंडाचेर कामदेवाचें चित्र आनी चित्राफुडें एक भरिल्लो कलश दवरतात. मागीर कलशाची आनी चित्राची पूजा करतात. ह्या व्रतांत घोवान आपले बायलेची पूजा करचेली आसता.

कामदेवव्रत हें एका वर्साचें व्रत वैशाख शुध्द त्रयोदशीक आरंभ करतात. कामदेवाच्या भांगराचे मूर्तिची पूजा आनी मूर्तिदान करतात. हें व्रत केल्ल्यान रोगांचें निवारण जावन बरी भलायकी मेळटा असो समज आसा.

कामदुवादस ह्या एका वर्साच्या व्रताक मार्गशीर्ष शुक्ल दुवादशीक आरंभ जाता. दरेक दुवादशीक कामदेवाची पूजा करप, हो ह्या व्रताचो विधी आसा.

भासाच्या चारुदत्त ह्या नाटकांत कामदेवानुयान नांवाचे एके मिरवणुकीचो उल्लेख आयला. कामदेवाचें चित्र घेवन वाजत-गाजत नागरिकांची व्हडली मिरवणूक वता. काशी नगरांत दर वर्सा असोच उत्सव जातालो, अशी नोंद अवदानशतकांत आसा. त्या दिसा सगळें नगर शिंगारून राज्यकर्ते लेगीत व्हडा उमेदीन त्या उत्सवांत वांटो घेताले.

मथुरेक मेळिल्ल्या एका मातयेच्या खेळण्याचेर कामदेवाची मूर्त आसा. ती हातांत पांच फुलांचे बाण घेवन उबी आसा. तिच्या पोंदा पांयांसकयल एका न्हिदिल्ल्या मनशाची मूर्त आसा, जी शूर्पक नांवाच्या कांसवाची आसा, अशें म्हण्टात. अशी लोककथा आसा की राजकुंवरी कुमुद्वती शूर्पकाचेर अनुरक्त जाली आनी शूर्पकान कांयच आसक्ती दाखयलीना. तेन्ना राजकुंवरीन कामदेवाची पूजा केली आनी शूर्पकाक आपले वटेन आकर्शित करपाक तिका येस आयलें.

पुराणांतल्या कथांप्रमाण श्रीकृष्णाचो पूत प्रद्युम्न हो कामदेवाचो अवतार आशिल्लो, अशें म्हण्टात. कामदेवाची पूजा करपाखातीर जो खासा सुवाळो जातालो, ताका 'वसंतोत्सव' अशें म्हण्टाले. त्या वेळार बायलां आनी दादले कामदेवाच्या देवळांत वचून ताची पूजा करताले.

- कों. वि. सं. मं.

## कामधेनू:

काम=इत्सा, धेनू=गाय. हिंदू पुराणकथांत सगळ्यो इत्सा फळादीक करपी गाय म्हळ्यार कामधेनू असो उल्लेख आयला. स्वर्गापरस श्रेश्ठ अशा गोलोकांत कामधेनूचो निवास आसा, अशें म्हण्टात. संवसारांतल्या समेस्त गाय-बैलांची जननी कामधेनू, अशें मानतात. हिचे उत्पत्तीविशीं दोन कथा आसातः

१. देव दैत्यांनी समुद्रमंथन केलें तेन्ना तातूंतल्यान वयर आयिल्ल्या १४ रत्नांतली कामधेनू ही एक:

२. दक्षकन्या सुरभी आनी कश्यपप्रजापती हांचे रोहिणी नांवाचे चलयेक शुनःशेपापसून (शूरसेनापसून) कामधेनू जाली, असो उल्लेख आसा.

ब्रह्माची उपासना करून कामधेनून अमरत्व मेळयल्लें. कामधेनू रंगान

धवी आसून चार वेद हे तिचे पांय आनी चार पुरुषार्थ हे तिचे पाने जावन आसात. ती एकदां मेरुपर्वताचेर चरता आसतना वेताळान तिका पळेली आनी तो तिचेर आसक्त जालो. तांच्या समागमांतल्यान जो नंदीबैल जल्माक आयलो, तोच फुडें शिवाचें वाहन जालो. देखून, नंदीची आवय म्हूण कामधेनूक 'नंदिनी' अशेंय म्हण्टात.

महाभारतांत तिचें वर्णन अशें आसाः

षडुन्नतां सुपार्श्वोरुं पृथुपञ्चसमावृताम् ।
मण्डूकनेत्रां स्वाकारां पीनोधसमनिन्दिताम् ।
सुवालधिं शङ्कुकर्णी चारुशृङ्गां मनोरमाम् ।।

(आदिपर्व- १७५.१३-१४)

अर्थ- कामधेनूची तकली, मान, जांघो, गळ्यासकयली पोळी, शेंपडी आनी स्तन (पाने) हे ६ अवयव ऊंच आशिल्ले. पार्श्वभाग आनी मांडयो सुंदर आशिल्ल्यो. कपल, खिळ्यांसारके लांब कान आनी बेबकासारके दोन नाजूक दोळे, प्रशस्त आशिल्ले. तिचो आकार मनांत भरसारको आशिल्लो. तिची होंटी पुश्ट आशिल्ली. रुप सुंदर आशिल्लें. शेंपडी आनी शिंगां ओडलायणीं आशिल्लीं. अशेतरेन सर्वांगान ती सोबीत आशिल्ली.

कामधेनू वसिष्ठाच्या आश्रमांत रावन वसिष्ठ मुनीचे यज्ञयाग सुसंपन्न करताली. एक दीस विश्वामित्र राजा आपल्या सैन्यासयत वसिष्ठाच्या आश्रम वाठारांत आयिल्लो. वसिष्ठान कामधेनूच्या प्रभावान विश्वामित्राक पंचपक्वान्नांचें रुचीक जेवण करून दिलें. कामधेनूचें तें सामर्थ्य पळोवन विश्वामित्राक तिची आसक्ती उत्पन्न जाली. ताणें कामधेनूखातीर वसिष्ठाकडेन मागणी केली. वसिष्ठ दिना म्हूण ताणें तिचें अपहरण केलें. पूण कामधेनूच्या मनांत विश्वामित्राकडेन वचपाचें नाशिल्लें. तिणें आपल्या आंगांतल्यान शक, यवन, शबर, किरात, बर्बर ह्या जमातींचें सैन्य तयार केलें आनी विश्वामित्राचो पराभव केलो.

सूर्यवंशाच्या दिलीप राजान वसिष्ठाच्या आश्रमांत रावन कामधेनूची सेवा केली आनी तिच्या प्रसादान दिलीपाक 'रघू' नांवाचो दिग्विजयी चलो जालो, अशें वर्णन कालिदासान रघुवंशांत केलां. कामधेनूच्यो चार चलयो चार दिकांचीं प्रतीकां अशें मानतातः सुरुपा (उदेंत), सुभद्रा (अस्तंत), हंसिका (दक्षिण), सर्वकामदुधा (उत्तर).

श्री स्कन्दपुराण-सह्याद्रिखण्ड हातूंत कामधेनूचें वर्णन आयलां तें अशें: सहस्त्रार्जुन जमदग्नीच्या आश्रमांत गेल्लो आसतना ताका कामधेनू दिसता आनी तो जमदग्नीकडेन तिची मागणी करता. पूण कामधेनू येवपाक तयार जायना. निमाणे सहस्त्रार्जुन बळयां, तिचेकडेन झूज करून तिका व्हरता.

कामधेनूदान हें महादान असो समज आसा. उण्यात उणें तीन पळ वजनाचें भांगर घेवन ताची कामधेनू तयार करतात. तिका अलंकृत करून वेदीचेर तिची स्थापना करतात. तिच्या आठ दिकांक मंगल कलश, फळां ह्यो वस्तू दवरतात. मागीर पूजा करून कामधेनूचें दान करतात. हें महादान केल्यार स्वर्गप्राप्तीचें फळ मेळटा, अशें मत्स्यपुराणांत आसा.

कामधेनूव्रत कार्तिक कृष्ण एकादशी सावन पांच दीस करतात. हाच्यो देवता श्री आनी विष्णू जावन आसा. ह्या व्रताचो विधी असो- घर, गोठे, देवूळ, पिंपळा पेड, रस्तो, मसुंडी आनी तळें ह्या सुवातींनी दिवे लावप, रातीकडेन फांशांनी खेळप, एकादशीक उपास करून विष्णूचे मूर्तीक गायच्या दुदान वा तुपान न्हाण घालप. कामधेनूव्रत केल्यार सगळ्या पातकांपसून मुक्ती मेळटा, अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**कामशास्त्र:** धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष ह्या चार पुरुषार्थांची प्राप्ती, हें ध्येय अडेच हजार वर्सांसावन भारतीय विचारवंतांनी समाजामुखार दवरलां. अथर्ववेदांतल्या कामसूक्तांत 'काम' ही विश्वाची निर्मणी करपी आदिदेवता अशें म्हळां (१९.५२.१). ऋग्वेदांतूय असोच उल्लेख आयला (१०.१२९.४). तांणी कामविचार वायट, अशें मानलेंना. 'धर्माविरुध्दो भूतेषु कामोऽ स्मि भरतर्षभ' (धर्माकडेन अविरुध्द काम, हे भरतश्रेश्ठ, म्हजी विभूती आसा) अशें गीतेंत श्रीकृष्णाचें वचन आसा. वेदांत कामभावना ही मनशाच्या मनाची एक मुळावी आनी म्हत्वाची प्रेरणा आशिल्ल्याचें मान्य केलां.

ऋग्वेदांतल्या एका सूक्तांत 'काम' शब्दाचो अर्थ इत्सा असो आयला.

कामस्तदग्रे समवर्तताधि ।
मनसो रेतः प्रथमं यदासीत् ।।

(ऋग्वेदः १०.१२९-४)

अर्थ- ते उपरांत जेन्ना पयलीं मनोरुपी बीं उत्पन्न जालें तेन्ना त्या मनांत काम (वासना, इत्सा) उत्पन्न जाली.

ऋग्वेदांतल्या पुरुरवा-उर्वशी आनी यम-यमी हांच्या संवादांत कामवासनेचें आनी प्रेमाचें वर्णन आयलां. वैदिक साहित्यांतल्यो कथा आनी आख्यायिका हांचेवयल्यान त्या काळांतल्या सादारण मनशाचे जिणेंत कामभावनेक म्हत्वाची सुवात आशिल्ली, अशें दिसून येता.

अथर्ववेदांत काम वा इत्सा ही एक म्हान वैश्विक शक्त अशें मानून, सगळ्या देवदेवतांपरस तिका श्रेश्ठत्त्व दिलां. थोडेकडेन हे वैश्विक शक्तीक अग्नी अशें म्हळां. काम हो आपल्या बाणांनी मनशाचीं काळजां विध्द करता. कामाच्या बाणांक वेदनांचीं पाखां आसतात. बाणांचें तोंक अभिलाषेचें जाल्यार फाटलो भाग इत्सेचो आसता (अथर्ववेदः ३-२५).

उपरांतच्या काळांत महाकाव्य आनी संस्कृत साहित्य हातूंत कामदेव सुप्रतिश्ठित जालो. वैदिक वाङ्मयांत शृंगार देवतेचे पूजे अर्चेचो खंयच उल्लेख मेळना. पूण ब्राम्हणग्रंथांत वर्णिल्ल्या कांय फलोत्पादक विधींनीं शृंगारचेश्टा आस्पावतात. तेभायर अश्वमेध आनी महाव्रत हातूंत समागमक्रियेचो उल्लेख आसा. ऋग्वेदांतल्या विवाहसूक्तांत समागमक्रियेचो स्पश्ट उल्लेख आसा (१०.८५.३७).

शतपथब्राम्हणांतूय यज्ञवेदीक बायल आनी अग्नी हो तिचो घोव अशें म्हळां (१.२.५.१५-१६); पूण सगळेकडेन धर्मीक विधीक मुखेल सुवात दिल्ली आसून शृंगाराचें स्थान दुय्यम आसा.

वैदिक काळांत कामशास्त्राचो खास अभ्यास जावंक नाशिल्लो. उपनिषद्काळांत पयलेच खेप प्रजननशास्त्राचे नदरेन कामभावनेकडेन ऋषींचें लक्ष गेलें. कामवासना ही हेर सगळ्या इत्सांइतलीच म्हत्वाची आसा, अशें बृहदारण्यकांत सांगलां (४.४.२२). ह्याच उपनिषदांत फुडें पंचाल देशांतल्या प्रवाहण जैवलीन केल्लें दादले-बायलांच्या एकामेकांचे ओडीविशींचें सविस्तर वर्णन आयलां (६.२.१२). पंचाल देशांतसून कामशास्त्राचो उगम जालो. बाभ्रव्य हो कामशास्त्रांतलो पाटांगडो विद्वान पंचाल देशांतलोच. उद्दालक आरुणी हो कामविशींचे गुप्त विद्येचो आनीक एक पंडित आशिल्लो अशें बृहदारण्यकांत सांगलां (६.४.४). प्रवाहण जैवलीन सांगिल्लें कामाविशींचें गिन्यान उद्दालक आरुणीन आपलो पूत श्वेतकेतू हाका दिलें. मागीर श्वेतकेतून हें गिन्यान सबंद पंचाल देशांत पातळायलें, अशें म्हण्टात.

धर्म आनी अर्थ ह्या दोन पुरुषार्थांची पूर्विल्ल्या आचार्यांनी जशी गंभीर विस्कटावणी केली, तशेंच वात्स्यायनान बारकायेन आनी खोलायेन कामशास्त्राचें प्रतिपादन केलें. कामशास्त्राचे उत्पत्तीविशीं वात्स्यायनान ग्रंथाच्या आरंभाक एक आख्यायिका सांगल्या. ब्रह्मदेवान त्रिवर्गविशींचें विशालकाय शास्त्र निर्माण केलें. ह्या शास्त्रांतसून म्हादेवाचो सेवक नंदी हाणें १,००० अध्यायांचें 'कामसूत्र' वेगळें काडलें. ताचो संक्षेप उद्दालकाचो पूत श्वेतकेतू हाणें ५०० अध्यायांत केलो. ह्या संक्षेपाचो आपरोस पांचाल देशवासी बाभ्रव्य हाणें ७ अध्यायांनी आनी १५० अध्यायांनी केलो. हातूंतलें वैशिक नांवाचें अधिकरण पाटलिपुत्र नगरांत रावपी गणिकांचे आज्ञेक अनुसरून दत्तकाचार्यान वेगळें काडलें आनी आपणें स्वतंत्रपणान रचलें. तशेंच चारायण, सुवर्णनाभ, घोटकमुख, गोनदीय, गोणिकापुत्र आनी कुचुमार ह्या स आचार्यांनी क्रमशः १. सादारण २. सांप्रयोगिक ३. कन्यासंप्रयुक्तक ४. भार्याधिकारीक ५. पारदारिक आनी ६. औपनिषदिक हीं स अधिकरणां स्वमतप्रदर्शनाखातीर स्वतंत्रपणान रचलीं. ह्या सगळ्या ग्रंथांनी बाभ्रव्याचो ग्रंथ खूब व्हडलो आशिल्ल्यान तो अध्ययनाक कठीण लागपाक लागलो. तशेंच दत्तक आदी

आचार्यांचे ग्रंथ कामशास्त्राच्या उपांगांचेरूच बरयल्ले आशिल्ल्यान मूळ कामशास्त्र नश्ट जावपाच्या मार्गार आयलें. देखून वात्स्यायनान ह्या शास्त्रांतल्या सगळ्या विशयांचो खोलायेन अभ्यास करून आनी तें संक्षेपान संकलित करून 'कामसूत्र' हो ग्रंथ तयार केलो. शास्त्रीय म्हायतीन परिपूर्ण आशिल्ल्या वात्स्यायनाच्या कामसूत्राची सगळ्याक नामना जाली. वात्स्यायनाच्या कामसूत्रांतल्या अधिकरणांची सादारण वळख अशीः

पयल्या सादारण अधिकरणांत पांच अध्याय आसून कामसूत्राची परंपरा आनी उत्पत्ती, जिणेचे तीन पुरुषार्थ- धर्म, अर्थ आनी काम, बायलांखातीर ६४ कामकला, नागरकांचें जिवीत कर्तव्य आनी नायिका-नायक भेद अशीं तांचीं नांवां आसात. दुसऱ्या अधिकरणांत जननेंद्रियाच्या आकारभेदान संभोगभेद, आलिंगन विधी, चुंबनविधी, नखक्षत, दंतकर्म, कामक्रीडेच्यो पध्दती, रतिक्रीडेंतलीं तरेकवार आसनां, प्रहणन आनी सीत्कारादी आवाज, विपरीत रती आनी हेर संभोगविधी, मुखमैथुन, रतिक्रिया आनी प्रेमकलह अशे १० अध्याय आसात. चवथ्या अधिकरणांत बायलेचें कर्तव्य आनी तिची दिनचर्या, सवतींकडेन व्हडले बायलेचें, विधवेचें आनी उपेक्षितेचें कर्तव्य तशेंच बहुपत्नीक घोवाचें कर्तव्य अशे अध्याय आसात.

पांचव्या अधिकरणांत रसिक नायक आनी परस्त्री, वळखदेख आनी प्रेमकला, बायलेच्या मनोभावांची परीक्षा, दूतींचीं कामां आनी तांचे भेद, राजांचे आमोद-प्रमोद आनी राज-स्त्रियांच्यो क्रीडा अशे अध्याय आसात. सव्या अधिकरणांत वेश्येचें स्वरुप, वेश्येचें बायलेसारकें आचरण, वेश्येची अर्थलालसा आनी विरक्ती, पोरन्या प्रियकरांकडेन वेश्येचें नवें नातें, वेश्येच्या लाभविशेशाचेर विवेचन आनी वेश्येच्या अर्थानर्थांची सविस्तर चर्चा अशे विशय आसात. सातव्या अधिकरणांत ,वशीकरण आनी वाजीकरण, विशय आनी कामाचे तरेकवार योग आसात. धर्म, अर्थ आनी काम हे त्रिवर्ग जण एका मनशान आपणावचे, अशें सांगून कामाचें व्हडपण सांगतना वात्स्यायन म्हण्टा-

'शरीरस्थितीहेतुत्वादाहारसधर्माणो हि कामाः ।
फलभूताश्च धर्मार्थयोः ।

(कामसूत्र. १.२.४६-४७)

अर्थ- काम हें शरीरधारणेक गरजेचें आशिल्ल्यान आहाराकडेन ताचें साधर्म्य (सारकेंपण) आसा. तशेंच धर्मार्थाचें निमणें फळ खास करून कामात्मक जावन आसा.

'काम' शब्दाची शास्त्रीय व्याख्या वात्स्यायनान अशी दिल्या-

'श्रोत्रत्वक्चक्षुर्जिह्वाघ्राणानाम् आत्मसंयुक्तेन मनसाधिष्ठितानां स्वेषु स्वेषु विषयेषु आनुकूल्यतः प्रवृत्तिः कामः ।'

अर्थ- मनान अधिश्ठित केल्लीं कान, कात, दोळे, जीब आनी नाक हीं ज्ञानेंद्रियां आत्म्याकडेन संयुक्त जावन आपापल्या विशयांचे सुवातीर जी अनुकूल प्रवृत्ती दाखयतात, ताकाच 'काम' अशें म्हण्टात.

वात्स्यायनान कामशास्त्राक पूरक अशा संगीत, नृत्य आनी चित्रकला ह्या ६४ शिल्पकलांचो तशेंच ६४ कामकलांचो उल्लेख केला. वात्स्यायनान नायिकांचें कन्या, पुनर्भू आनी वेश्या अशे तीन प्रकार सांगल्यात. पूण ते उपरांतच्या काम-वाङ्मयांत पद्मिनी, चित्रिणी, शंखिनी आनी हस्तिनी अशे नायिकांचे आनीकूय भेद केल्ले मेळटात.

कामसूत्राचेर 'जयमंगला' ह्या यशोधराचे टिकेखेरीज भास्कर, मल्लदेव आनी राजा वीरभद्र ह्या पंडितांच्यो टिका आसात. कामसूत्रा-उपरांतचो म्हत्वाचो असो ह्या शास्त्रावयलो ग्रंथ म्हळ्यार दामोदरगुप्तान आठव्या शेंकड्यांत बरयल्लो 'कुट्टनीमत्त'. ते उपरांत सुमार धाव्या शेंकड्यां पद्मश्री नांवाच्या एका बौध्द भिक्षून 'नागर-सर्वस्व' हो ग्रंथ बरयलो. हातूंत शांकर कामतंत्राचो उल्लेख आयला. नागरसर्वस्वाचेर जगज्ज्योतिर्मल्लान सतराव्या शेंकड्यांत एक टिका बरयली. कामसूत्राउपरांतचो नामनेक पाविल्लो ग्रंथ म्हळ्यार कोक्कोक वा कोक नांवाच्या विद्वानान बाराव्या शेंकड्या पयलीं बरयल्लो 'रतिरहस्य' हो ग्रंथ. नंदिकेश्वर, गोणिकापुत्र आनी वात्स्यायन हांच्या आदारान आपणे 'रतिरहस्य' बरयलें, अशें कोक हाणें सांगलां. ह्या ग्रंथाचेर 'दीपिका' नांवाची टिका कांचीनाथान बरयल्या. 'रतिरहस्य' ह्या ग्रंथाक 'कोकशास्त्र' ह्या नांवान चड वळखतात. ह्या ग्रंथाचे अरबी, फारसी अणकार जाल्यात. ज्योतिरीश्वर कविशेखरान सुमार तेराव्या-चवदाव्या शेंकड्यांत 'पंचसायक' हो पद्यात्मक ग्रंथ बरयलो. मूलदेव, बाभ्रव्य, नंदिकेश्वर, रतिदेव आनी क्षेमेंद्र हांचे ग्रंथ अभ्यासून आपणे हो ग्रंथ बरयलो, अशें ग्रंथकारान म्हळां. वात्स्यायनाच्या गद्य कामसूत्राचो आर्यावृत्तांतलो पद्यात्मक अवतार वीरभद्र राजान 'कंदर्पचूडामणी' ह्या नांवान बरयलो. सोळाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत कल्याणमल्ल हाणें बरयल्लो 'अनंगरंग' हो कामशास्त्रावयलो ग्रंथ खूब लोकप्रिय जालो. जयदेवाचो 'रतिमंजरी' हो ६० कवनां आशिल्लो पद्य-ग्रंथ लेगीत उल्लेख करपासारको आसा.

कामशास्त्राचेर बरयल्ल्या हेर ग्रंथांनी व्यासजनार्दनाचो 'कामप्रबोध', महाराज देवराजचो 'रतिरत्नप्रदीपिका', दंडीन बरयल्लो 'नर्मकेलिकौतुकसंवाद' ह्या ग्रंथांचो आस्पाव आसा. 'काम' हो चार पुरुषार्थांतलोच एक, अशें पूर्विल्ल्या काळासावन भारतीय संस्कृतायेन मानलें. ताचो प्रभाव भारतीय ललित साहित्य आनी ललित कला हांचेर जालो. कामशास्त्राचेर शृंगाररसप्रधान खंडकाव्यां आनी महाकाव्यां निर्माण जालीं. भारतीय मूर्तिकारांनी खजुराहो, कोनारक, विजयानगर हांगाल्या दैवतप्रासादकलेंत मिथुनाचीं संभोगचित्रां आकर्शक रितीन निर्माण केलीं.

- कों. वि. सं. मं.

**कामा, श्रीमती भिकाजी रुस्तुमः** (जल्मः ? १८६१; मरणः १९ ऑगस्ट १९३६, मुंबय).

पारशी समाजांतली भारतीय क्रांतिवीर बायल आनी परदेशांतल्या भारतीय क्रांतिवीरांचें स्फूर्तीस्थान. शिक्षण मुंबयत जालें. तिचो घरकार मुंबयत एक नामनेचो सॉलिसिटर आशिल्लो. भलायकेखातीर ती १९०२ त इंग्लंडाक गेली आनी थंयच तिचें राजकीय जिवीत सुरू जालें. दादाभाई नौरोजी ब्रिटीश संसदेंत वेंचून आयलो, तेन्ना तिणें ताका खूब पालव दिलो. पूण क्रांतिकारक पिंड आशिल्ल्यान तिका क्रांतिकारक चळवळीविशीं ओड लागली. स्वातंत्र्यवीर सावरकर इंग्लंडांत येतकच ताच्या उलोवपांचो आनी असामान्य व्यक्तिमत्वाचो तिचेर प्रभाव पडलो आनी ती अभिनव भारत संस्थेची वांगडी जाली.

उपरांत युरोपांतूच रावन स्वतंत्रतायेचे चळवळीखातीर तिणें आपलें जिवीत ओंपलें. क्रांतीकारक साहित्य उजवाडावप, भारताविशीं व्याख्यानां दिवप आनी भारतीय क्रांतीवीरांक सगळे तरेचो पालव दिवप, हें तिचें दिसपट्टें कार्य जालें. ऑगस्ट १९०७ त, जर्मनींत भरिल्ले आंतरराश्ट्रीय समाजवादी परिशदेंत सरदारसिंग राणावांगडा तिणें वांटो घेतलो आनी ब्रिटीश प्रतिनिधींच्या विरोधाक पर्वा करीनासतना, भारतीय स्वातंत्र्याविशींचो प्रस्ताव मांडलो. त्याच वेळार भारतीय स्वातंत्र्याचें प्रतीक म्हूण 'वंदे मातरम्' हो मंत्र आशिल्लो तिरंगी झेंडो तिणें चडयलो. १९३५ त, ती भारतांत परत आयली.

भारतीय स्वातंत्र्याखातीर आपलें सर्वस्व ओंपपी भारतीय बायलांचे वळेरेंत तिका मानाची सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कामाक्षीः** एक देवता. श्री महिषासुरमर्दिनी हीच श्री कामाक्षा वा कामाक्षी देवी आशिल्ल्याचें तिचे मूर्तीवेल्यान स्पश्ट जाता. हे देवीचें कामाक्षिका अशें नांव सह्याद्रिखंडांतल्या श्री कामाक्षी माहात्म्यांत मेळटा.

आसाम (आदलें कामरुप) हें श्री कामाक्षी देवीचें मूळपीठ, अशें म्हण्टात. सह्याद्री खंडांतल्या लोपाख्यानांतल्या श्री कामाक्षी माहात्म्यांत काहूर असो श्री कामाक्षीच्या मूळ वाठाराचो उल्लेख येता. आसामांत जो कामरुप वा काहूर वाठार आसा, त्या वाठरांत कामाक्षी देवीचें थळ

नामनेचें तीर्थथळ आसून तें 'कामाख्या' ह्या नांवान वळखतात.

आसाम राज्यांत गुवाहाटी सावन तीन मैलांचेर नीलाचल पर्वताचेर हे देवीचें देवूळ आसा. हें एक नामनेचें शक्तिपीठ आसा. कालिकापुराणांत सतीची योनी गळून ह्या पर्वताचेर पडली आनी तो पर्वत निळो जालो, अशें सांगलां. ह्या पर्वताक शिवाचें प्रतीक मानलां. हे देवीक 'कामाख्या' नांव कित्याक पडलें ताचें कारण शिवान अशेतरेन सांगलां: शिव म्हण्टा-नीलाचलाचेर, देवी म्हजेकडेन रममाण जावपाखातीर गुप्त रुपान येताली म्हूण तिका कामाख्या नांव पडलें (कालिका पुराण ६१). कामाख्या मंदिर हें शक्तिपूजेचें एक मुखेल थळ आसा. कामाख्या हें नांव सुमोच, कोमोच आनी हेर ऑस्ट्रीक उतरांचें संस्कृतीकरण आसा, अशें डॉ. काकती हाचें मत आसा.

इ.स. आठव्या शतमानांत रचिल्ल्या वज्रतंत्रांत आनी धाव्या शतमानाच्या सुमाराक कालिका पुराणांत, कामाख्यांत कामाख्यामंदिर हें तांत्रिक पूजा केंद्र म्हूण प्रतिश्ठित आसा.

"सर्वत्र विरला चाहं कामरूपे गृहे गृहे

(तंत्रचूडामणी पीठमाला)

अर्थ: कामाख्या म्हण्टा: हांव सगळेकडेन दुर्लभ आसा. पूण कामस्वरुपांत म्हजो वास (अस्तित्व) दरेका घरांत आसा.

पूर्विल्ल्या काळांत गारो लोक कामाख्येचे पुजारी आशिल्ले. काळांतरान ब्राह्मणाक ती सुवात मेळ्ळी. पयलीं 'नरक' ह्या राजान आनी उपरांत 'कोच' राजान, ब्राह्मणांक ह्या आसमंतांत हाडले, अशें सांगतात. कामरुपांत शक्तिपंथाचो प्रसार नरक राजान केलो. ताणें कामाख्येक कालीकडेन एकरूप मानून तिची उपासना सुरू केली. ब्राह्मणाचो ह्या सुवातेंत अधिकार सिध्द जालो. कामाख्येचें ल्हवल्हव आर्यीकरण जालें. काळांतरान तिच्या स्वरुपांतूय बदल जालो. तिचे भोंवतणी नव्योनव्यो कथा, आख्यायिका तयार जाल्यो. कालिका पुराणांत सतीची कथा सांगल्या तें ताचेंच प्रत्यंतर आसा. मूळचें कामाख्या मंदिर आर्यपूर्व पध्दतीचें आशिल्लें, अशें सांगतात. हें मंदिर सोळाव्या शतमानांत मुसलमानांनी मोडून उडयतकच इ.स. १६६५ वर्सा कोचराजा नरनारायण हाणें हिंदू शिल्पपध्दतीन तें देवूळ बांदलें.

कामाख्येविशीं दोन आख्यायिका आसात, त्यो अश्यो:

१. राजा नरक देवीच्या रुपाचेर सामको भुललो. ती आपली घरकाम्न जावची, अशें ताच्या मनांत भरलें. देवीक हो ताचो बेत आवडलो ना. म्हूण तिणें राजाक अट घाली, जर रातीभितर म्हजें देवूळ बांदशीत, तलाव खणशीत आनी दोंगराच्या माथ्यामेरेन फातराचो रस्तो तयार करशी तर हांव तुजी बायल जातां. राजान ती अट मान्य केली. तेप्रमाण इतलें सगळें बांदकाम एकेच रातींत राजान पुरय करीत हाडलें तें पळोवन देवी भियेली. तिणें बेगोबेग कोंब्याक साद घालपाक लायलो. अशेतरेन देवीन आपली सोडवणूक करून घेतली.

२. दर सांजवेळा धुपारतीच्या वेळार देवी मंदिरांत नृत्य करताली. त्यावेळार सगळीं दारां बंद आसतालीं. कोणाकूच तें नृत्य पळोवपाची परवानगी नासली. पूण त्यावेळार कोच राजाक देवीचें तें नृत्य पळोवचें, अशी ओड लागली. ताणें पुजाऱ्याक फटोवन दाराचे खांचींतल्यान ते नृत्य पळेलें. देवीक हें कळटकच देवी रागार जाली. तिणें पुजाऱ्याचें मस्तकूच कातरून उडयलें. तेन्नासावन कोच राजा केन्नाच देवीच्या देवळांत गेलो ना.

गुवाहाटीच्या कामाख्या देवळांत मूर्त ना. देवळाचे भितल्ले होंवरेंत एका फातरेचेर योनीची आकृती कोरांतिल्ली आसा. तिचे लागीं एक झरो आसा. ताच्या व्हांवत्या उदकान ती फातर सदांच भिजिल्ली उरता. ह्या योनी प्रतीकाचेर फुलां, पत्री घालून तिची पूजा जाता. हांगाचे पूजेचो विधी कालीचे पूजेसारको आसता.

आसामांत, दर वर्सा आषाढ म्हयन्यांत अंबुवाची परब जाता.

गोंयांत, फोंडें म्हालांतल्या शिरोडें गांवांत श्री कामाक्षीचें देवूळ आसा. तें मूळ साश्ट म्हालांतल्या राय गांवांत आशिल्लें. इ.स. च्या सोळाव्या शतमानांत बाटाबाटीक लागून त्या जाग्यावेल्यान तें तेन्नाचे आदिलशाही राजवटीचे आयचे सुवातेर आयलें.

हे देवतेचे कुळावी म्हाजन कौशिक, वत्स आनी अत्री गोत्रांचे माध्व संप्रदायाचे, गौड ब्राह्मण सारस्वत आसात. तांचीं मूळ आडनांवां अशीं:

कौशिक गोत्री: केणी, नाईक रायकार, पै फोंडेंकार, पै रायकार, उजो, हळदुर्गा, पै धुंगट, पै बीर, बाळगी, कोटी.

अत्रि गोत्री: कामत बुडकुले

अत्रि वत्स: आचारी

तेभायर श्री शांतादुर्गा देवस्थानांत, कवळेंच्या आठव्या वांगडाचे कौशिक गोत्री कुळावी (श्रीधर पै, पुनरेकर आनी हेर) हांची पालवी देवी श्री कामाक्षी आसा. रायकार उपनांवाचे दैवज्ञ ब्राह्मण, हे देवतेचे पूर्वापार भजक आसात. ते पूर्वापार परंपरेप्रमाण गर्भागारांत वचून पूजाअर्चा करतात. ह्या देवस्थानाची वर्सुकी जात्रा माघ कृष्ण पक्षांत महाशिवरात्रे दिसा आरंभ जाता आनी फाल्गुन शुक्ल दशमीदिसा सोंपता.

- विनायक नारायण शेणवी धुमे

**कामीण:** एक रोग. रगतांत 'बिलिरुबीन' (bilirubin) ह्या नांवाचें द्रव्य वाडून जेन्ना कात तशेंच मुतपाक हळडुवें जाता, तेन्ना कामीण जाली अशें म्हण्टात. बिलिरुबीन हें द्रव्य रगतांत 'हेमॉग्लॉबीन' नांवाच्या द्रव्यापसून तयार जाता.

मनशाक कामीण तीन कारणांक लागून जावंक शकता:

१. रगतांत दोश आसप. हाका लागून रगतांत ज्यो तांबड्यो पेशी आसतात, तांचो इबाड जाता आनी रगतांतलें बिलिरुबीन वाडटा.

२. यकृताक (liver) दोश आसप वा थंय रोगजंतूंचो शिरकाव जावन लागण जावप. हाकाय लागून रगतांतले बिलिरुबीन वाडटा.

३. दुसऱ्या खंयच्याय इंद्रियांक बादा जावन रगतांतलें बिलिरुबीनाचें प्रमाण वाडप. देखीक: 'पांक्रेयश' ह्या इंद्रियाक कॅन्सर जावप.

यकृतांत 'इन्फेक्शन' वा रोगजंतूंचो शिरकाव जावन जी कामीण जाता ताका 'हेपाटायटीस्' (hepatitis) वा यकृतजोर म्हण्टात. जेवणाखाणाची नितळसाण सारकी नासली म्हण्टकच मुसांवरवीं ह्या रोगाचो प्रसार जाता. ह्या कारणाक लागून जेन्ना कामीण जाता तेन्ना रगताची तपासणी करतकच यकृत सारकें चलना, अशें दिसून येता.

रगतांत दोश आसून जेन्ना कामीण जाता तेन्ना यकृत सारकें चलता आनी यकृताचे जे रगतांत तपास करतात, ते सगळे तपास सारके आसतात. ह्या कारणांक लागून जेन्ना कामीण जाता तेन्ना खरस येवप, अशक्तताय येवप, काळजांत कलकलप, मात्शी खोंकली येवप अशे तरेचीं लक्षणां दिसूंक लागतात. ह्या वेळार रगतांत पांडुरोग (anaemia) जाल्लो आसता.

यकृत जेन्ना सारकें चलना म्हळ्यार तातूंत रोगजंतूंचो शिरकाव जावन 'इन्फेक्शन' जाता तेन्ना ओंकारो येवप, जोर येवप, रुच नासप, वीट दिसप असले तरेचीं लक्षणां दिसतात. हो रोग 'व्हायरस' रोगजंतूंपसून जाता. कामणीचे 'व्हायरस' इलेक्ट्रोनिक सूक्ष्मदर्शकांतल्यानूच दिसूंक शकता. हे रोगजंतू उदक वा जेवणखाण हांचेवरवीं मनशाचे कुडींत रिगतात आनी यकृताक इन्फेक्शन करतात. चड प्रमाणांत 'हेपाटायटीस्' जाल्यार वा परत-परत हें दुयेंस जायत जाल्यार यकृत सामकेंच इबाडता. अशा वेळार त्या रोग्याक 'सीरॉसिस' (cirrhosis) वा यकृतबाधा जाली, अशें म्हण्टात.

हे तरेचें इन्फेक्शन एकेक फावट शिजोवंक नाशिल्लें सिरींज वा सूय वापरीत जाल्यार तशेंच जेन्ना रक्तदान करतात त्या वेळार जावपाची शक्यताय आसता. हाका लागून जेन्ना रक्तदान करतात तेन्ना रगत काडटात तें तपासून ताका हें दुयेंस ना, हाची खात्री करची पडटा.

यकृताचें इन्फेक्शन वा hepatitis हो रोग व्हायरस रोगजंतूंपसून जाल्ल्यान हाचेर रामबाण अशें वखद ना. ह्या रोगजंतूंक मारून उडोवपी वा तांची वाड आडावपी वखद अजून 'ॲलोपथी' ह्या वैजकी शास्त्रांत सांपडूंक ना. ह्या रोगाचेर कांय आयुर्वेदीक उपाय आसात. तशेंच ह्या

रोगाचेर झाडा-पाल्यांचीं वखदां दिवपी कांय वैज आसात.

कामणीच्या रोगजंतूंचो जेन्ना प्रवेश जाता, तेन्ना यकृत सारकें चलना. अशा वेळार पुराय विसव घेवंचो पडटा. जेवणखाणांत पथ करचें पडटा. तेलकट, तिखट आनी आंबट खावंक जायना. हाचे उरफाटें जाता तितली साकर वा साकरेचे हेर पदार्थ जातूंत तेल तूप चड ना, अशे खातात. उदक भरपूर पियेवंचें पडटा. यकृत सारकें चलनाशिल्ल्यान cirrhosis हें यकृताचें दुयेंस जावंक शकता. सोरो चड प्रमाणांत पियेल्यार यकृताच्यो पेशी मरतात आनी cirrhosis चें दुयेंस जावन मनीस मरूंक शकता. कामणीक लागून बेशुध्दी आयल्यार द्राक्षशर्करा विद्राव (glucose saline) नीलेंतल्यान (vein) दितात.

एकेक फावट मनशाक मात्शी अशक्तताय आयली की ताका कामीण जाली, अशें म्हण्टात. ताका मुतूंक हळडुवें जायना. अशा वेळार कामीण खऱ्यांनीच जाल्ली आसूं वा नासूं, पूण कांय अशिक्षित लोकांमदीं कामीण वा काकय लासपाची एक चुकीची कल्पना आसा. रगतांत जीं वायट द्रव्यां आसतात, तीं द्रव्यां कामीण लासून जो घावो जाता तातूंतल्यान वतात, असो चुकीचो समज आसा. एकेक फावट हो घावो भाजून येता आनी तो पुलेणा भरता. अशे तरेन हाचो वायटकाराक चड त्रास जाता.

दुशीत जाल्लें उदक वा जेवणखाण तोंडांतल्यान भितर वचून जी कामीण जाता, ती चड करून पावसाच्या दिसांनी जाता. चड पिकिल्लीं फळां वा धूळ बशिल्लीं खाणां खायत जाल्यार ही पीडा जावंक शकता. ह्या रोगाचो प्रसार मुसांवरवीं जाता.

ल्हान भुरग्यांक खुबदां जल्मल्याउपरांत दुसऱ्या ते पांचव्या दिसाभितर सौम्य (mild) प्रकारची कामीण जाता. असली कामीण चड करून एका सप्तकाभितर बरी जाता. ती खंयच्याच रोगाचें लक्षण नासून फकत पित्तरंजक द्रव्याचें संयुग्मन (conjugation) करपी एंझाइमां (enzymes) कार्यान्वित जावपाक कळाव लागिल्ल्यान उप्रासता. अकाली जल्मल्ल्या भुरग्यांमदीं हे प्रकारचे कामणीचें प्रमाण चड आसता.

भारत देशांत कामणीची पीडा सगळ्या वाठारांनी जाता. तांतल्या तातूंत अशिक्षित, झोपडपट्टींनी रावपी लोकांमदीं हो रोग चड प्रमाणांत दिसून येता. गोंयांत हो रोग पावसाच्या तेंपार चड प्रमाणांत जाता.

- डॉ. भिकाजी घाणेकर

## कामाँइश लुइश दे: (जल्म: १५२४; मरण: १० जून १५८०).

प्रबोधन काळांतलो एक व्हड पोर्तुगेज कवी. ताचो जल्मगांव लिश्बोअ काय कोईंब्रा हाचेविशीं जाणकारांमदीं वाद आसा. तशेंच ताचो बापूय नेमको खंयच्या घराण्यांतलो आशिल्लो, हाचेविशींय वाद आसा. शिक्षण सोंपल्या उपरांत तो लिश्बोअ हांगा येवन कोन्दे दे लिन्यारिश आनी डी. फ्रांसिश्कु दे नोरोन्य हांच्या आलाशिऱ्याखाल राजदरबारांत वावर करूंक लागलो. १९४७ त ताका लश्करी सेवेखातीर वेंचून काडटकच तो झुजपाखातीर उत्तर आफ्रिकेंत गेलो. थंय ताका आपलो एक दोळो वगडावचो पडलो. हाचे पयलीं El- Rei Seleuo, Auto dos Enfatrioes आनीं Filodemo ह्यो सुखात्मिका बरोवन साहित्यिक म्हूण नामना जोडिल्ली.

लिश्बोअ सावन १५५३ त ताका भारतांत धाडलो. मलबारचे देगेर आनी तांबडो दर्या हांगासल्ल्या पोर्तुगेजांच्या मोहिमांत ताणें वांटो घेतलो. फुडें माकाव हांगा एक सरकारी अधिकारी म्हणून धाडिल्लो आसतना थंयच्या दुसऱ्या एका अधिकाऱ्याकडेन ताचे मतभेद जाले आनी ताका गोंयांत हाडून बंदखणींत दवरलो.

उपरांत कांय काळ तो मोझांबिक वाठारांत आशिल्लो. १५७० त तो लिश्बोअ परतलो. १५७२ वर्सा ताचें 'अश लुसियादश' हें महाकाव्य उजवाडाक आयलें. हें महाकाव्य धा सर्गांनी बरयल्लें आसा. तातूंत वाश्कु द गामा हाची उदका भोंवडी आनी ताणें भारताक दिल्ली भेट हो विशय घेवन तेवरवीं पोर्तुगेजांच्या इतिहासांतले म्हत्वाचे प्रसंग समर्थपणान चितारल्यात. ह्या महाकाव्याचो नायक म्हळयार पोर्तुगेज राष्ट्रीयत्व जावन आसा आनी किरिस्तांव धर्माआड आयिल्ल्या दुस्मानाचेर पोर्तुगालान मेळयिल्लें जैत तातूंत बारीकसाणीन नियाळ्ळां. १६५५ वर्सा सर रिचर्ड फॅनशॉ हाणें ह्या महाकाव्याचो इंग्लीश भाशेंत अणकार केला.

ह्या महाकाव्याभायर कामाँइश हाणें बरीच हेर बरपावळ केल्या. ताच्या भावकवितांक बरीच नामना मेळ्ळ्या. १५९५ त ताच्यो कविता एकठांय करून दवरल्यात. लिस्बोअ शारांत प्लेगाच्या सांथीत ताका मरण आयलें. ओल्ड गोवा हांगा इगर्जेमुखार ताचो पोर्तुगेज सरकारान ब्राँझचो पुतळो उबारिल्लो. १९८० त कांय अज्ञात लोकांनी हो पुतळो मोडून उडयलो. सद्या हो पुतळो ओल्ड गोवा हांगाच्या म्युझियमांत पुराणवस्तू म्हूण दवरला.

- कों. वि. सं. मं.

## कायकिणि, गौरीश विठ्ठलराव: (जल्म: १२ सप्टेंबर १९१२, गोकर्ण).

कन्नड साहित्यमळावेलो नामनेचो लेखक. ताच्या बापायचें नांव विठ्ठलराव आनी आवयचें नांव सीताबाय. तो तीन म्हयन्याचो आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयलें. १९३७ वर्सा तो गोकर्ण वाठारांतल्या ए. व्ही. स्कूल हांगा शिक्षक म्हूण काम करूंक लागलो. १९३९ वर्सा सावन तो गोकर्ण लागसार आशिल्ल्या बंकिकोड्ल गांवांत माध्यमिक शाळेंत शिकोवपाक लागलो. १९४४-४५ वर्सा तो एस्. टी. सी. परीक्षेंत मुंबय इलाख्यांत पयल्या क्रमांकान पास जालो. १९५३ वर्सा ताणें शांताबाय नांवाचे चलयेकडेन आंतर्जातीय लग्न केलें.

ताचें पयलें लिखाण मराठी लिपींत उजवाडाक आयलें. (शांडिल्य महाराजाविशीं भक्तिगीतां- भजनावळ). तिसऱ्या दशकाच्या पयल्या अर्दांत ताणें कन्नड भाशेंत 'भक्त मीरा' हें पुस्तक बरयलें. उपरांत 'जयंती' 'जय कर्नाटक', 'उदयवाणी', 'शिरसी समाचार', 'नागरीक', मुन्नडे', 'प्रपंच', 'जीवन', 'कस्तूरी' 'तरंग', 'सुधा', 'बेळकु' ह्या नेमाळ्यांनी आनी अंकांनी ताचें जायत्या विशयांवेलें लिखाण उजवाडाक आयलें.

ताणें 'जनसेवक' ह्या सातोळ्यांत सातत्यान १७ वर्सां बरप केलां. तातूंत ताणें संगीत, नाटक, राजकारण, मानसशास्त्र, पुस्तक परीक्षण, साहित्यावलोकन आदी विशयांचेर बरप केलां. तशेंच ताणें कथा, कादंबरी, कविता, जीवनचरित्र, इतिहास, संशोधन हेवूय विशय हाताळ्ळ्यात. ताची 'मनोविज्ञानद', 'रूपरेखेगळु', 'मार्क्सवाद', 'देवतात्म', 'बाळिनगुट्ट', 'केशवसुत', 'नानालाल', 'पंजाबीकथेगळु', 'माण्णिन मनुष्य', 'श्यामराव विठ्ठल कायकिणि', 'थॉमस एडिसन', 'बाळिंदु बंतु गंगेय तडिगे', 'क्रौंचध्वनि' अशीं जायतीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तशेंच ताचीं 'कन्नड साहित्याचा इतिहास' आनी 'अग्नीवर्ण' हीं दोन पुस्तकां मराठी लिपींत उजवाडाक आयल्यांत. जायत्या गौरव ग्रंथांनी ताचे अभ्यासपूर्ण लेख उजवाडाक आयल्यात. डॉ. अ. न. कृष्णराय, डॉ. मास्ती वेंकटेश अय्यंगार, दिनकर देसाय, डॉ. द. रा. बेंद्रे हांचेर ताणें लेख बरयल्यात. ताणें मराठी, हिंदी, इंग्लीश आनी संस्कृत साहित्याचो कानडींत अणकार केला.

ताणें कोंकणींत आनी मराठींत बरयल्लीं नाटकुलीं, कविता, उलोवपां हांची धारवाड आकाशवाणी केंद्राचेर वितरावणी जाल्या.

१९५४ ते १९७६ मेरेन ताणें गोकर्ण भद्रकाळी हायस्कुलांत शिकोवपाचो वावर केला. उपरांत ४ एप्रिल १९७६ वर्सा तो निवृत्त जालो. १९७५ ते १९७६ ह्या काळांत तो धारवाड आकाशवाणी केंद्राच्या सल्लागार समितीचो वांगडी आशिल्लो.

ताणें कवितेच्या मळार जायतें बरप केलां, पूण तें अजून पुस्तक रुपान उजवाडाक येवंक ना. ताच्या बरपांत स्वतंत्र विचार, मानवतावाद, साहित्याचो खोलायेन अभ्यास, शब्दावळीवेलो ताबो, सुंदर भाशाशैली पळोवंक मेळटा.

१९७३ वर्सा ताका उत्तर कन्नड जिल्ह्याच्या कन्नड साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद दिवन ताचो भोवमान केलो. त्याच वर्सा ताका 'आदर्श शिक्षक' हो पुरस्कार फाव जालो. १९७९ वर्सा डॉ. शिवराम कारंत हाच्या

यजमानपणाखाल ताचो जाहीर सत्कार करून ताका गौरव ग्रंथ अर्पण केला. सद्या आपले जाण्टे पिरायेंत लेगीत तो कन्नड आनी कोंकणींत बरप करता.

- एस्. एम्. कृष्णराव

**कायदोः** कायदो ह्या उतराविशीं न्यायशास्त्रांत उपाट संशोधन जालां. ह्या प्रस्नाच्या जापेचेरूच हेर संकल्पनांचो मतितार्थ थारायिल्लो आशिल्ल्यान ह्या प्रस्नाक खूब म्हत्व प्राप्त जालां. जो मनशाच्या वेव्हाराचें नियमन करता तो कायदो, अशें मानलें जाल्यार मागीर नीती, रुढी, संवयो, धर्मीक बंधनां हांचेसावन कायदो कसो वेगळो वळखुपाचो, ह्या प्रस्नाक परत म्हत्व प्राप्त जाता. जॉन ऑस्टिनान कायद्याची व्याख्या 'सार्वभौम राजकी सत्तेन दिल्ले मौशीक हुकूम, जे पाळ्ळेना जाल्यार ख्यास्त भोगची पडटा' अशी केली. हे व्याख्येचेर जायत्या जाणकारांनी टिका केली आनी तातूंतल्यो उणीवो नदरेक हाडून दिल्यो. कायदो न्याय्य आसा वा ना, बरो कायदो खंयचो आनी वायट कायदो खंयचो ह्या सारकिल्या प्रस्नांच्यो जापो ऑस्टीनाचे व्याख्येप्रमाण मेळनात. पूण हाच्यो जापो आमकां सैमीक न्यायाचे संकल्पनेप्रमाणूच मेळटात. सैमीक कायदो म्हळ्यार बुध्द आनी सैम हांच्याप्रमाण वागपाचे नेम. फ्रीड्रीख साव्हिन्यी ह्या जर्मन पंडीताच्या मताप्रमाण समाजीक रुढी, कायद्याचो आदार जावन आसा. सर हेन्री मेन हाणें हेच नदरेंतल्यान पूर्विल्ल्या समाजाचो अभ्यास करून कायद्याचे उत्क्रांतीचो अभ्यास केलो. ताणें भारतीय समाज आनी कायदो हाचोय खोलायेन अभ्यास केलो.

रॉस्को पाउंड ह्या अमेरिकन पंडीतान कायदो हो समाजीक ध्येय सफल करपाचें साधन, अशें सांगून कायद्याची समाजशास्त्रीय विस्कटावणी केली. विसाव्या शेंकड्यांत हे विस्कटावणेक खूब म्हत्व फाव जालें. ह्या मताक मॅक्स वॅबर, एमील दुर्कहाइम, हान्स कॅलसॅन हांणीय तेंको दिलो.

सोप्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार मनशान कितें करचें आनी कितें करचें न्हय हें सांगपी नेम म्हळ्यार कायदो. कायदो घडोवपाफाटल्यान दोन हेत आसतात. पयलो म्हळ्यार दरेक नागरिकाक सुरक्षा आनी बळ दिवप. देखीक- एका मनशाक दुसऱ्याची वस्त चोरून हाडल्यार बंदखणीची ख्यास्त भोगची पडटा. ह्या कायद्याचो हेत आसता, नागरिकांक तांच्या वस्तीसंबंदान संरक्षण दिवप. दुसरो हेत म्हळ्यार अख्ख्या समाजाक सुरक्षा आनी सुविधा प्राप्त करून दिवप. देखीक- एक मनीस आपल्या घरांतलो कोयर रस्त्यार हाडून उडयल्यार तो गुन्यांव जावं येता. तशेंच कायद्याचो आनीक एक हेत जावन आसा, लोकांक आपली पुराय जाण करून दिवप. देखीक- कबलात वा हेर लेखनामे (Contracts, Agreements, Bonds) तयार करप. अशें केल्ल्यान झगडीं, तंटे, धुस्पटी उप्रासपाची शक्यताय कमी आसता.

पूर्विल्ल्या काळांत राजे लोक सत्तेर आसले तेन्ना तांकां आपले प्रजेखातीर फाव तशे कायदे तयार करपाचे सार्वभौम हक्क देवान दिल्यात, अशें सगळे मानताले. आतांच्या काळांत समाजांतल्या दरेकल्या नागरीकाक हो हक्क प्राप्त जाल्लो आसा. सगळे नागरीक एकाचवांगडा एकठांय येवन कायदो घडोवंक शकनात. देखून वेंचणुकेच्या वेळार ते आपले प्रतिनिधी वेंचून काडटात, जे मागीर विधिमंडळाचे वांगडी जातात आनी कायदो घडोवपाच्या वावरांत वांटो घेतात.

शासन वेवस्थेचीं तीन आंगां आसतातः विधीमंडळ, कार्यकारी मंडळ आनी न्यायखातें. विधिमंडळ कायदे तयार करता आनी हेर धोरणांविशीं निर्णय घेता, कार्यकारी मंडळ ते कायदे आनी निर्णय चालीक लावपाखातीर वावुरता, जाल्यार ह्या दोनूय आंगांचेर नदर दवरपाचें काम न्यायखातें करता. विधीमंडळ आनी कार्यकारी मंडळ आपापल्या थारावीक मर्यादेंत कार्य करतात काय ना, हें पळोवपाचें आनी तांच्या कार्याची दिका थारावपाचें काम न्यायखात्याचें. विधिमंडळान संमत केल्लो कायदो जर संविधानान मांडिल्ल्या ध्येय आनी मुल्यांकडेन जुळना वा जनतेक त्रासदायक जावंक शकता, तर न्यायालयाक तो कायदो रद्द करपाचो पुराय अधिकार आसता. तशेंच कार्यकारी मंडळ जर विधिमंडळान केल्ल्या कायद्याआड वा ताणें नेमून दिल्ल्या कक्षेभायर कार्य करूंक लागलें, तर ताचेरुय निर्णय दिवपाक आनी वेळ पडल्यार ताका गुन्यांवकार थारावपाक न्यायखात्याक अधिकार दिल्ले आसात.

कायद्याचें न्यायसंस्थेकडेन लागींचें नातें आसलें, तरी हो संबंद अस्तित्वांत आसपाकूच जाय, अशें बंधन ना. कायदो अस्तित्वांत नासतनाय न्यायसंस्था कार्यरत जावंक शकता. समाजीक रुढी, नैतिक आनी धर्मीक संकेत हेच सुरवातीच्या काळांत कायदे जावन आसले. शासनान केल्लो धर्मातीत कायदो बरोच उसरां अस्तित्वांत आयलो. सुर्वेक कायद्याचो मुखेल आदार धर्मवचनां वा धर्माज्ञा होच आसलो.

कायद्याचे हजारांनी प्रकार आसात. देशाप्रमाण, प्रांतांप्रमाण आनी शारांप्रमाण कायदे वेगवेगळे आसात. कारण विंगड विंगड समाजांनी लोकांच्यो चालीरिती आनी तातूंतल्यान उप्रासपी प्रस्न वेगवेगळे आसात. तरेतरेचे कायदे अस्तित्वांत आशिल्ल्यान आनी तातूंतल्या कठीण प्रस्नांक लागून हजारांनी लोक आपल्या जिवितांत कायद्याचो अभ्यास करून आपली उपजिविका चलयतात. हातूंत वकील, न्यायाधीश, तशेंच वकिलांच्या कचेऱ्यांनी काम करपी लोक, न्यायालयांनी काम करपी तशेंच विधिमंडळांतले लोक हांचो आस्पाव जाता.

भारत देशांत जे कायदे अस्तित्वांत आसात, तांची वांटणी दोन तरांनी करूं येताः

१. केंद्रीय कायदे (Central Acts): हे कायदे केंद्रीय विधिमंडळ घडयता आनी ते सगळ्या राज्यांनी लागू पडटात. ह्या कायद्यांनी चड करून फौजदारी कायदे (Criminal Procedure Code and other related Acts), कामगार कायदे (Labour Laws), दिवाणी खटल्यांचो कायदो (Civil Procedure Code), गाडयांचो कायदो (Motor Vehicles Act), धुंवळी वखदां कायदो (N. D. P. S. Act), मालमत्तेविशींचो कायदो (Transfer of Property Act), कंपनी कायदो, कबलात कायदो (Contract Act), लग्नाचो कायदो.

२. राज्यस्तरीय कायदे (State Acts): हे कायदे राज्यस्तरीय विधिमंडळ घडयता. ह्या कायद्यांनी मुखेल म्हळ्यार भाडेकारांविशींचे कायदे (Rent Control Acts), मुंडकार कायदो, कुळकायदो, जमीन महसूल कायदो (Land Revenue Code), दुकानांविशींचो कायदो (Shops and Establishment Acts) हांचो आस्पाव जाता. थोड्या राज्यांनी केंद्रीय स्तरावेलो कायदो अस्तित्वांत आसून लेगीत राज्य स्तरावेलो कायदो लागू पडटा. देखीकः गोंयांत लग्न जावपाक, भुरगें पोसकें घेवपाक, जमीन विकत घेवपाक वा विकपाक, घटस्फोट, मनीस मरतकच ताचे आस्पतीची वांटणी करपाविशीं अजूनूय पोर्तुगेज कायदे लागू पडटात.

संवसारांतल्या चडशा देशांनी उंचेल्या पांवड्याचो कायदो अस्तित्वांत आसा, जाचें म्हत्व विधिमंडळाच्या कायद्यांपरस चड आसा. हाका 'घटना' (Constitution) अशें म्हण्टात. भारतान २६ नोव्हेंबर १९४९ दिसा 'भारतीय राज्यघटना' आपणायली. अशा घटनांनी बारीकसारीक प्रस्नांविशीं नेम वा तजवीजो केल्ल्यो नात, तर फकत कायद्याचो मूळ हेत किदें, नागरीकांचे मुळावे हक्क, जापसालदारक्यो, स्वतंत्रताय हांचेविशीं तजवीज केल्ली आसता.

कायद्याचो उपेग वेवस्थित रितीन करपाखातीर सरकार न्यायालयांची थापणूक करता. भारत देशांत सगळ्यांत उंचेल्या स्तराचें न्यायालय म्हळ्यार सर्वोच्च न्यायालय (Supreme Court). हाचेखाल दरेक राज्यान उच्च न्यायालयां (High Courts) स्थापन केल्लीं आसात. ताचेसकयल मुळावीं न्यायालयां आसात. जर एका मनशाचें दुसऱ्याकडेन झगडें जालें जाल्यार पयलीं मुळाव्या न्यायालयांत खटलो भरतात. मागीर न्यायाधीश दुसऱ्या पक्षाक न्यायालयामुखार ताचें म्हणणें मांडपाची संद दिता. दोनूय पक्षांचें म्हणणें आयकतना न्यायाधीश कायद्याचोच आदार घेता आनी गवाय-पुरावो मतींत घेवन मागीर निवाडो दिता. ज्या पक्षाक न्यायाधीशाचो निवाडो पसंत पडना, तो वयल्या पांवड्यावेल्या

न्यायालयांत फिर्याद (appeal) मांडपाक शकता. वयल्या पांवड्यावेल्या न्यायालयाक मुळाव्या पांवड्यावेल्या न्यायालयाचो निवाडो मान्य वा रद्द करपाचो पुराय अधिकार आसता. दिसानदिस वाडपी प्रस्न, तंटे, झगडीं मतींत घेवन सगळ्या देशांनी न्यायालयांचो आंकडो दिसानदिस वाडत आसा. देखीकः कामगार वर्गाचे तंटे सोडोवपाखातीर कामगार न्यायालय (Labour Tribunal), मोटारगाडयांच्या अपघातांविशींचे तंटे सोडोवपाखातीर वेगळे न्यायालय (Motor Accidents Claims Tribunal) भाडेकारांविशींचे तंटे सोडोवपाखातीर वेगळें न्यायालय (Rent Tribunal), झगडीं-खून करपी भुरग्यांक सुदारपाखातीर वेगळे न्यायालय (Juvenile Justice Court) स्थापन केल्यात.

कायद्याचो उपेग आनीकूय बरेतरेन जावंचो आनी जाता तितले बेगीन कायद्याचो लाव समाजाक मेळचो, हो हेत मतींत घेवन भारतांत आनीक एक येवजण चालीक लायल्या आनी ती म्हळ्यार 'लोक अदालत पध्दत'. लोक अदालतामुखार दोन मनीस आपल्या मदलें झगडे वा तंटो एकाच वांगडा समजिकायेन सासणाचें सोंपोवंक शकतात. लोक अदालताक न्यायालयाचें स्वरूप आसना. हातूंत तडजोडीचेर (compromise) चड भर आशिल्ल्यान न्यायालयांत खटले सोंपपाक लागपी वेळ, पैसो आनी मानसिक चिंता वाटावतात.

जो मनीस कायद्याचो अभ्यास करता आनी लोकांक कायद्याविशीं मार्गदर्शन करून तांचे प्रस्न न्यायालयामुखार मांडटा, ताका वकील वा ॲटर्नी काउन्सिल अशें म्हण्टात. इंग्लंड देशांत जो वकील न्यायालयांत आपल्या अशिलाचे प्रस्न मांडटा, ताका 'बॅरिस्टर' म्हण्टात, तर जो वकील कायद्याविशीं मार्गदर्शन करता, ताका 'सॉलीसिटर' अशें म्हण्टात.

- ॲड्. अमोल थळी

## कारंत, कोट शिवरामः (जल्मः १० जानेवारी १९०२, कोट -दक्षिण कन्नड जिल्हो).

एक नामनेचो नाटककार, कादंबरीकार, निबंदकार आनी कलेचो जाणकार. ताचें शाळेंतलें शिकप कोट आनी कुंदापुर गांवांत जालें. महाविद्यालयांतलें शिक्षण घेवपाक तो मंगळूर गेलो. ताणें गांधीवादी विचारसरणेच्या प्रभावाक लागून शिक्षण चालू आसतनाच स्वतंत्रतायेचे चळवळींत वांटो घेतलो. गांधीजीच्या विचारांकडेन फुडें ताचे मतभेद जाले आनी पुत्तूर गांवांत बालवन नांवाच्या भुरग्यांची शाळा उक्ती करून ताणें भुरग्यांक पदां, नाटकां, खेळ हांचेवांगडा हेर शिक्षण दिलें. ह्या काळांत ताणें बऱ्याच बालसाहित्याची निर्मणी केली. ताणें ह्या वेळार साहित्य संमेलन, वैचारिक संमेलन आनी यक्षगानाचे मेळावेय भरयले.



शिवराम कारंत

१९२४ वर्सा बरोवंक सुरवात केल्लें कारंत हाचें पयलें पुस्तक 'राष्ट्रीय सुधाकर' ह्या नांवान उजवाडाक आयलां. ताची पयली कादंबरी 'विचित्रकूट'. उपरांत ताणें 'चोमनदुडि', 'मुगिदयुध्द' 'बेट्टद जीव', 'कुडियर कूसु', 'स्वप्नद होळे', 'म रा ठी माळिगे', औदार्यद उरुळल्लि' 'मूजन्म' त शें च 'मैमनगळ', 'गोंडारण्य', 'सुळियल्ल', 'धर्मरायन संसार', 'अळिदमेले' ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो. हेभायर ताणें 'गर्भगुडी', 'बित्तिदबेळे', 'जंबद जानकि' अशीं बरींच नाटकांय बरयलीं. भुरग्यांखातीर ताणें 'सिरिगन्नड अर्थकोश' (शब्दकोश) बरयलो. 'ग्नान', 'मैलिकल्लिनोडने मातुकते' हे ताचे कांय ललित प्रबंध. कर्नाटकांतलो लोकांखेळ 'यक्षगान' विशीं ताणें खोलायेन अभ्यास करून 'यक्षगान' हो महाप्रबंध बरयलो.

ताचे 'मरळि मण्णिगे' हे कादंबरीचे इंग्लीश, हिंदी, तमीळ ह्या भाशांनी अणकार जाल्यात. 'चोमनटुडि' हे कादंबरीचेर आदारित बी. वी. कारंत हाणें निर्देशन केल्या चित्रपटाक भारत सरकाराचें 'स्वर्णकमल' फाव जालां. 'मूकाज्जिय कनसुगळु' (मुकाज्जियाची सपनां) हे कादंबरीक १९७८ त ज्ञानपीठ पुरस्कार फाव जालो. 'यक्षगान-बयलाट' ह्या ताच्या ग्रंथाक स्विडीश अकादमी पुरस्कार तशेंच केंद्र साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फाव जाला.

१९७१ त 'यक्षगान कलाकेंद्र' ही संस्था स्थापून ल्हान भुरग्यांक ताणें यक्षगानांत केल्ले बदल शिकयले. पारंपारिक यक्षगानांत आशिल्लीं गीतां, रंगभूषा, भेस, संभाषण ह्यो गजाली काडून उडोवन मुकाभिनय, वाद्यसंगीताचेर नवो यक्षगान शिकोवन कारंतान देश आनी विदेशांत ताचे बरेच प्रयोग केले. 'डुमिंगो' आनी 'भूतराज्य' हे दोन चित्रपट ताणें स्वता काणी, गीतां बरोवन आनी स्वताच कॅमेरामन आनी निर्देशकाची जापसालदारकी घेवन निर्मिले. कांय वर्सां उपरांत ताणें अशाच प्रकारचो 'मलेयमवगळु' हो चित्रपट आपल्या 'मुडियर कूडि' हे कादंबरीचेर आदारून निर्मिलो. हातुंतूय गीतां, संगीत, संवाद, चित्रकथा, निर्देशन आनी कॅमेरा ताचोच आशिल्लो.

१९७७ त आणीबाणीक विरोध करून ताणें स्वताक मेळिल्लो 'पद्मभूषण' पुरस्कार सरकाराक परत केलो. ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळया उपरांत ताचो बरेचकडेन सत्कार जालो. कर्नाटक विश्वविद्यालय आनी म्हैसूर विश्वविद्यालयान डॉक्टरेट दिवन ताचो भोवमान केलो. साहित्य मोग्यांनी ताचेर 'कारंत प्रपंच' गौरव ग्रंथ उजवाडायलो. १९७३ वर्सा म्हैसूर विश्वविद्यालयान ताचें चरित्र इंग्लीशींतल्यान उजवाडायलें. कारंत हाणें संवसारभर भोंवडी केल्या आनी कांय भोंवडेवर्णनां उजवाडायल्यांत.

१९८९ वर्सा ताणें दक्षिण कन्नड जिल्ह्यांतल्यान पर्यावरणाची जतनाय करपी पंगडाचे वतीन लोकसभेची वेंचणूक लडयली. आर्विल्ल्या कन्नड साहित्यांत वास्तववादी आनी मानवतावादी लेखक आनी समाजांत एक व्हड पर्यावरण मोगी आनी विचारवंत म्हूण कारंत हाका मानाची सुवात आसा.

- एस्. एम्. कृष्णा राव

## कारर, पॉलः (जल्मः २१ एप्रिल १८८९, मॉस्को; मरणः १८ जून १९७१, झुरिक).

स्विस रसायनशास्त्रज्ञ. ताचें शिकप झुरिक (स्वित्झर्लंड) हांगा जालें. १९११ त ताणें डॉक्टरेट मेळयली. झुरिक हांगाच्या केमिकल इन्स्टिट्यूटांत एक वर्स काम करतकच, ताणें गेओर्क स्पायर हाऊस (फ्रॅंकफूर्ट-आम-मेन) हांगा पॉल अर्लिक हाचेवांगडा ६ वर्सां संशोधन केलें. १९१८ त, झुरिक हांगा ताची रसायनशास्त्राच्या प्राध्यापकपदाचेर नेमणूक जाली. १९१९ त, तो केमिकल इन्स्टिट्यूटचो संचालक जालो.

कॅरोटिनॉयडां (carotenoids), फ्लाविनां (flavins) आनी अ आनी ब जीवनसत्त्वां हांचे संरचनेविशीं ताणें केल्या मोलादीक संशोधनाखातीर १९३७ त, रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार ताका, हॉवर्थ ह्या शास्त्रज्ञावांगडा वांटून मेळ्ळो. वनस्पतींतल्या रंग-द्रव्यांविशीं, खासा करून carotenoids विशीं ताणें संशोधन केलें. बीटा कॅरोटीन ह्या गाजरांत आशिल्ल्या रंगद्रव्याची संरचना ताणें १९३० त थारायली आनी असल्या द्रव्यांचें जनावरांच्या शरीरांत अ जीवनसत्त्वांत रूपांतर जाता हें सिध्द केलें. तेउपरांत, ताणें अ जीवनसत्त्वाची संरचना स्पश्ट केली. Lactoflavin हें जीवनसत्त्व ब समूहाचो एक भाग आसा हें ताणें स्पश्ट केलें. १९३० त, ताणें बरयल्ल्या 'Lehrbuch der organisechen chemie' ह्या पाठ्यपुस्तकाचे जायत्या भाशांनी अणकार जाले.

- कों. वि. सं. मं.

**कारवार:** कर्नाटक राज्याच्या उत्तर कन्नडा जिल्ह्याचें ठाणें. हें मुंबयचे दक्षिणेक ४८८ किमी., गोकर्णाचे उत्तरेक ५६ किमी. आनी गोंयचे दक्षिणेक सावन थोड्याच अंतराचेर, दर्यादिगेवयल्या बैतकल उपसागराचेर, काली न्हंयेच्या मुखाकडेन आसा. हो कोंकणाचो भाग आशिल्ल्यान हांगाच्या थळाव्या मनशांची भास कोंकणी आसा. कन्नड आनी मराठी भाशीक लोक हांगा कांय प्रमाणांत रावतात. इतिहास काळांत ही वेपारी पेट आनी विजापूर राज्यांत देसायांचें ठाणें आशिल्लें.

१९३८ त ब्रिटीश लोकांनी हांगा वखार घाली. मागीर मलमल, मिरयां, वेलची, निळें दडस 'डंगारी' काडप ह्या मालाची निर्यात हांगासावन जावनपाक लागली. शिवाजीन कारवारचेर दोन खेपो घुरी घाली. ब्रिटिशां वांगडा पोर्तुगेज आनी डचांनीय हांगाच्यान वेपार सुरू केलो. १६९७ त मराठ्यांनी कारवार परत नश्ट केलें. १७१५ त सौंदेकार संस्थानिकान पोरनो किल्लो मोडून सदाशिवगड बांदलो. १८०१ त पोरने कारवार नश्ट जालें. ते उपरांत मुंबय-कोचीन मार्गावेलें एक सुरक्षित बंदर म्हूण हाका म्हत्व आयलें.

उपसागरांत ल्हान ल्हान जुंवें आसून ऑयस्टर रॉक ह्या खडपाचेर दीपस्तंभ आसा. मुंबयसावन बोटीन, तेचप्रमाण हुबळीच्यान अर्बेल १५० किमी. मोटारमार्ग आसा. बरें सायल, रानांतलें लांकूड, कोंडे तशेंच तांदूळ, नाल्ल तशेंच बांगडे, ताल्ले आनी सांगटां ह्या जातींचें नुस्तें आनी सुकें नुस्तें हांचो वेपार हांगा चलता. कारवारची धवे रेंवेची, लांब आनी ओडलायणी दर्यावेळ, सुरुचीं दाट रानां आनी भोंवतणची सृश्ट पळोवपासारकी आसा.

कारवारची भूगोलीक सुवात आनी मांडावळ लक्षांत घेवन थंय १९८९ वर्सा 'सी बर्ड' नांवाच्या नाविक तळाची थापणूक केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**कारवालो, आंतोनिओ नोरबेर्तु दु रुझारियु:** (जल्म: १९ सप्टेंबर १९१६, बेतालभाटी-साश्टी).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव इराजमो दु रुझारियु कारवालो. ताणें एम्. ए. केल्या. तेचपरी कायद्याचें शिक्षण घेतलां. तो सरकारी नोकर आशिल्लो.

'भारत सोडात' चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९४४ त, तो पुण्यांतल्या इंडियन नॅशनल, काँग्रेसीचो वांगडी जालो. उपरांत १९४७ त तो सविनय कायदेभंगाचे चळवळींत (civil Disobedience movement) वांटो घेवंक गोंयांत आयलो. १९५० ते १९६० ह्या काळांत पोर्तुगेज पोलिसांनी खूबदां ताच्या घराचेर धाडी घालनू ताचीं पुस्तकां आनी हेर बरोवप उबारून व्हेलें. मुंबयच्या दिसाळ्यांनी तो पोर्तुगेज सरकाराच्या वायट कर्तुपांविशीं लेख बरयतालो. १३ ऑगस्ट १९५४ दिसा ताच्या इश्टांवांगडा ताका धरलो आनी १० म्हयने कांयच चवकशी करी नासताना बंदखणीत दवरलो. ३० में १९५५ दिसा चवकशे उपरांत प्रादेशिक लश्करी दंडाधिकाऱ्यान ताका एक वर्स साद्या बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली आनी स वर्सां ताचे नागरी हक्क काडून घेतले. १९५८ ते १९५९ त 'गोवा 'ट्रिब्यून' आनी 'वॉयस ऑफ लिबर्टी' ह्या नेमाळ्यांनी तो बरयतालो आनी आकाशवाणीचेर उलोवपां करतालो. ६ ऑक्टोबर १९६० दिसा ताका भूंयगत कार्यांनी वांटो घेतालो म्हूण धरलो. उपरांत ताका तीन म्हयने वासपूस करपाखातीर दवरलो. आनी चवकशी करीनासताना सोडलो. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. १८ जून १९८६ दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**कारवालो, आउगुश्तु जुझे मारिया द:** (जल्म: ?; ओर्ली-साश्टी).

गोंयकार क्रिस्ती धर्मफुडारी. मिलापूर वाठारांत तो मिशनरी आशिल्लो. १८८९ ते १८९१ वर्सा मेरेन ताका मिलापूर वाठारांतलो व्हिकार जनरल (vicar General) केलो. उपरांत १८९१ ते १८९५ वर्सा तो तंजावर आनी कोरोमान्डेल वाठारांतल्या मिशनाचो व्हिकार जनरल जालो. फुडें १८९५ ते १८९९ वर्सा तो घाट ह्या वाठारांत आनी १९०० ते १९०३ वर्सा कानारा वाठारांतलो व्हिकार जनरल आशिल्लो. १९२१ वर्सा तो गोंयच्या आर्कीडायोसिजीचो गव्हर्नर जालो. अखेर १९३१ ते १९३४ वर्सा मेरेन तो कोचीन शारांतले डायोसिजीचो गव्हर्नर आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**कारवालो, जॉन आंतोनिओ:** (जल्म: २५ मे १९१०, वेरोडें-कुंकळ्ळी, साश्टी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें बी. ए. मेरेन शिकप केलां. तशेंच 'होमिओपथी'त पदवी मेळयल्या.

१९२९ वर्सा सावन ताणें भारतीय सुटके झुजांत वावर केलो आनी उपरांत तो गोंय सुटके झुजांत आयलो. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. हे संघटनेच्या लोंढा हांगा जाल्ले चवथे बसकेक (१९५०), संघटनेचो अध्यक्ष म्हूण ताका वेंचून काडलो. बसकांनी वांटो घेवप, बसका घेवप असलीं कामां तो करतालो. खेरीज लोकांच्या मनांत मांयभूयेविशीं जागृताय हाडपाक तो मुंबय आनी कलकत्ता हांगाच्या नेमाळ्यांनी लेख बरयतालो. २५ सप्टेंबर १९५१ दिसा ताका धरलो आनी बंदखणींत घालो. १ जुलय १९५३ दिसा प्रादेशिक लश्करी दंडाधिकाऱ्यामुखार चवकशे उपरांत ताची निर्दोश सुटका जाली. १९५४-५७ ह्या काळांत तो 'मुंबय प्रदेश काँग्रेस कमिटी' (BPCC) आनी 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' (INC) मुंबय, हांचो वांगडी आशिल्लो. १९५८-६१ त मुंबय जाल्ल्या गोंयच्या राजकीय अधिवेशनाचो तो वांगडी चिटणीस आशिल्लो. मुंबयच्या सहकारी चळवळींनी तो वांटो घेतालो. १९७२ त, भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन आनी १८ जून १९८२ दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**कारवालो, जुजे:** (जल्म ?; सांकवाळ).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. फादर जोसेफ व्हाज हाचो भाचो. श्रीलंका देशांतल्या कॅन्डी वाठारांत रोगाची धाम आयली, तेन्ना ताणें वायटकारांक जेवण-खाण दिवपाचो वावर सुमार वर्सभर केलो. त्याच वांगडा हे धामींत मरण आयिल्ल्या वायटकारांक पुरपाचो वावरुय ताकाच करचो पडलो. ताणें एक हजारांवयर हेर धर्मीक लोकांक क्रिस्ती धर्माची दीक्षा दिली.

- कों. वि. सं. मं.

**कारांदो:** (मराठी- कारंदा, कडू कारिंदा, मानकंद; हिंदी- रतालू, पितालू; गुजराती- गोराडू; कन्नड-हेग्गेनसू; इंग्लीश-पाटॅटो थॅम, एअर पोटॅटो; लॅटीन-डायॉस्कोरिया, बुल्बिकेरा, जात- सॅटायव्हा).

कारांदो वालीक जाता. कारांद्याची वाल मूळची उश्ण प्रदेशांतली. आफ्रिकेची अस्तंत देग धरून, पॅसिफीक महासागरांतल्या पयसुल्ल्या जुंव्यावेल्या रानांत लेगीत ती पातळिल्ली दिश्टी पडटा. हिमालयांत ही वाल १८६० मी. उंचायेमेरेनच्या वाठारांत दिश्टी पडटा. भारतांत सगळेकडेन ही वाल दिसून येता.

कारांद्याचे वालीचीं पानां रुंद आनी काळजाच्या आकाराचीं आसतात. वालीक फुलां फकत तेंगशेरूच येतात, सकयल्या भागाक एकूय येना. कारांद्याचें फूल एकलिंगी आसता.

कारांदो हें एक मूळ जावन आसा, तातूंत खाण सांठोवन दवरिल्लें आसता. ताच्या आंगाक फोड आसतात. कारांद्याचे सालीवेले फोड जेन्ना मात्से सुळसुळीत जातात, तेन्ना कारांद्यांची वाल सुकता आनी कारांदो काडपासारको जाता. कारांदे वालीक वयर आनी जमनीत अशे दोनकडेन जातात. जमनीत एके वालीक एकूच जाता जाल्यार वयर पानांच्या देंठ कणकणी कारांदे जावंक शकतात. जमनीतलो कारांदो वयर जावपी कारांद्याच्या मानान मोटो आसता.



## कारांदो

कारांदे दोन प्रकारचे आसतातः काळो कारांदो आनी धवो कारांदो. काळ्या रंगाचे कारांदे खावपासारके आसतात, देखून ह्या कारांद्यांची लागवड करतात. धवो कारांदो चड करून आपशींच जाता.

धवो कारांदो कडू आसता. पूण हो कारांदो तासून व्हांवत्या उदकांत पंदरा दीस निवळपाक दवरीत जाल्यार तो खावपाक लायक जाता. धव्या कारांद्यांची चड करून म्हानां करतात. काळे कारांदे खावपाक बरे लागतात. ते भलायकेकय बरे हे कारांदे उकडून, भाजून वा भाजी करून खातात.

कारांद्यांची लागवड पावसांत करतात, ते खातीर कारांद्याक आयिल्ले कोंब (कारांद्यासकट) रोयतात. वालीक वयर चडपाखातीर एकाद्र्या झाडाचो वा बडयेचो आदार लागता. पावसाच्या दिसांनी हेर वरयावांगडा पोरसांत कारांदोय रोवपाची गोंयांत चाल आसा. कारांद्याचो कंदमुळांनी आस्पाव जाता.

कारांदो सुकोवन ताचें पीठ करून तें मूळव्याध (बीक), आमांश, उपदंश आदी दुयेंसांचेर उपाय म्हूण वापरतात. जपानांत कारांद्यापसून स्टार्च काडटात. वेस्ट इंडीज, दक्षिण अमेरिका आनी आशियासारक्या उश्ण प्रदेशांनी कारांदे खावपाखातीर वापरतात. काश्मीरांत कारांद्याचो लोकर धुवपाखातीर उपेग करतात.

- डॉ. एस्. एम्. शेट्टी

संदर्भः 1. Cook, Theodore; 'The Flora of Presidency of Bombay', Reprint by Botanical Survey of India (1967), Calcutta; 2. Hill, A.F., 'Economic Botany', Tata MacGraw Hill Publishing Company.

**कारातें:** (मराठी-कारले; हिंदी-करेला; गुजराती- कारेलो; कन्नड-हागलकाई; संस्कृत-कंदुरा, करवल्ली, सुषवी; इंग्लीश-कॅरिलाफ्रुट, बिटर गोर्ड; लॅटीन- मॉमोर्डिका चॅरॅशिया, कूळ- कुकर्बिटेसी).

एक वर्स भर उरपी हे वालीची भारत, मलाया, चीन, श्रीलंका, आफ्रिकेंतलो उश्ण वाठार आदी वाठारांनी लागवड करतात.

जायत्यो पाकळ्यो आशिल्ली द्विदल वनस्पत. लांबाय ३ ते ६ फूट. हे वनस्पतीक जायत्यो खांदयो आसतात. कांड कोन आनी खाचीं आशिल्लें. पानां सादीं, वाटकुळीं, हाता आकाराचीं, अर्दकुटीं वेगळायल्लीं आनी मात्शीं केंसाळ आसतात. साद्या दावकुलांनी ही वाल वयर चडटा. फुलां गडद हळडुवीं, ल्हान आनी एकलिंगी आसतात. फळ तरनें आसतना पाचवें आसता. पिकिल्लें फळ गडद केसरी, ४ ते ८ इंच लांब आनी कडू आसता. ताचे कातीचेर ल्हान व्हड फोड आसतात (मानग्याचे कातीभशेन). जेन्ना हें फळ चड पिकता तेन्ना फळ फुट्टा आनी तातूंतल्यान शेंदुरी कोराचे बिनोपांग दिश्टी पडटा. बियो १/३ ते १/२ इंच लांब, चेपट्यो, गोबऱ्यो आनी कडेकडल्या भागाक मिरयो पडिल्ल्यो आसतात.

कारातें ह्या फळ भाजेची लागवड उश्ण कटिबंधीय वाठारांत कशिल्ल्या, पिकाळ आनी उदकाळ जमनींत करतात. जमनींत १.५ मी. ते २ मी. अंतराचेर आळीं करून, सारें घालून बियो घालतात. ह्या वनस्पतीचें चडशे स्वतंत्र अशें पीक काडिनात. लागवडी उपरांत सुमार दोन म्हयन्यांनी हे वनस्पतीक फळां येवंक लागतात. आळ्यांत खूट लावन ताचेर ही वाल चडयल्यार ती बरी वाडटा आनी फळांय भरपूर येतात. धवी, लांब, आनी पाचवी मोटवी अश्यो दोन जाती हे वनस्पतींत आसा. धवे वालीक लांब कारातीं येतात. दोन म्हयनेमेरेन भाज्जेखातीर तरनीं फळां मेळूंक शकतात. उत्तर भारतांत, उबाळांत 'जेठ्या' आनी पावसाळ्यांत 'बारमासिया' अश्यो दोन जाती पिकयतात. 'बारमासिया' हे जातीक वर्सूयभर फळां मेळटात. दक्षिण भारतांत वेगवेगळ्या णव प्रकारांची लागवड करतात.



कारातें

**उपेग:** कारात्याचीं फळां भाज्जेखातीर उपेगी पडटात. ताची कोडसाण वचपाक, फोडी करून उदकांत घालतात वा मिठाच्या उदकांत बुडोवन दवरतात. उपरांत तांचे जेवणांत तरेक-वार प्रकार करतात. देखीक- फोडी, भाजी तशेंच रायतें, चटणी. फळ थंड आनी पुश्टीक आसून खातकच पचनक्रिया सुदारता, महारोग, मूळव्याध, कामीण, संधिवात, रक्तदोश, उसंरमठ, दमो, अल्सर, स्वासनलिका-दाह (Bronchitis) आनी हेर यकृताच्या दुखण्याचेर कारात्याचें फळ उपेगी पडटा. फळांचो रोस साकरे-वांगडा जिबेवेल्या घायांखातीर दितात. भाजून फोड येतकच कारात्याचो लेप लायतात. कारात्याच्या बियांचो काडो दंतांचेर उपेगी पडटा. पाळांचो लेप मुळव्याधाचेर लायतात. पानांचो रोस कृमीनाशक, वातीकारक आनी रेचक आसता. आंगावेलें दूद वाडपाखातीर पानांचो उपेग करतात. रातकुड्डेपण वचपाक पानांचो रोस दोळ्यां भोंवतणी लायतात.

**रोग आनी उपायः** कारात्याक लागपी रोग फुडलेतरेन आसातः मर, केवडा, डाऊनी मिलड्यू, भुरी, कोनीय टिक्का, मोझेक, कीड.

**मरः** हो रोग पानांर, देंठार आनी कांडाचेर पसरून झाड मरता. ज्या जिवांपसून हो रोग जाता तांचो बंदोबस्त करून ह्या रोगाक आळाबंदा हाडूंक येता.

**केवडाः** बुरशीभशेन, हरितद्रव्यरहित सूक्ष्म वनस्पतींक हो रोग जाता. जाचेखातीर पानांचेर ल्हान हळडुवें वा उदकान भिजेल्लेवरी भाग दिसतात. २८ ग्राम पारायुक्त कवक नाशक, २८ ते ३२ लिटर उदकांत भरसून तातूंत बियो पांच मिनटां बुडोवन लायतात. पिकांचेर ताम्रयुक्त कवकनाशकाचो फवारो मारतात.

**डाऊनी मिल्ड्यू:** कवकजन्य रोगाखातीर पानांचे वयले वटेन हळडुवे वा तांबशे तपकिरी थिपके पडटात. तेन्ना दर हेक्टर प्रमाण १५-२० किग्रॅ. ट्रायबेसिक कॉपर सल्फेटाची भुकटी मारतात. पामेट्टो पी. आर. २७ सँती आनी पॅलोमार ह्यो रोग प्रतिकारक्षम जाती मेळटात.

**भूरीः** ह्या रोगाखातीर जुन पानांचेर सकयलेवटेन धवे थिपके पडटात. कांडाचेरुय हो रोग जाता. देखून दर हेक्टर प्रमाण २५-४५ किग्रॅ. रॅथेनचो पिठो मारतात.

**कोनिय टिक्का:** ह्या रोगाखातीर पानांर आनी फळांचेर थिपके दिसतात. पानांचे शिरे लागसर येवपी हे थिपके करडे आनी हळडुवे जातात. ह्या रोगाक आळाबंदा हाडूंक उदकांत भरसण जावपी पारायुक्त कवकनाशकाची बियांचेर प्रकिया करून त्यो बियो परतून धुवन ताची लागवड करतात. स्ट्रेप्टोसायक्लिनाचो फवारो मारल्यार ह्या रोगाक आळबंदा हाडूं येता.

**मोझेकः** हो व्हायरसजन्य रोग, माव्यावरवीं पातळटा. ताका आळाबंदा हाडपाक शॅमरॉक इलिमा, ओहायओ- एम-आर-२००, ओहायओ-एम् आर- १७ आदी रोगप्रतिकारक्षम जाती लायतात.

**कीडः** पैंगीळ, मावा, जीव, कीडे हाचेर आळाबंदा हाडपाक १० टक्के बी. एच्. सी. हो पिठो मारतात. तेचपरी मॅलॅथिओन वा फॉलिडॉल हाचो फवारो मारतात. कारात्याच्या पिकाक बारीक जिवांची बादा जावंची न्हय म्हूण नेमॅगोनाची जमनीक धुंवरी दितात.

- डॉ. एस्. एम्. शेट्टी

संदर्भः 1. Bailey, L.H., 'Manual of Cultivated Plants', The Mac Millan Company, New York; 2. Cook, Theodore, 'The Flora of the Presidency of Bombay'. Reprint by Botanical Survey of India (1967), Culcutta; 3. Dastur, J. F., 'Medicinal Plants of India and Pakistan', D.B. Taraporewala Sons & Co. Pvt. Ltd. Bombay.

- डॉ. एस्. एम्. शेट्टी

## कारापुरकार, निळकंठ (निकुबाब) मंगेशः (जल्मः ? १९०५, बोर्डे मडगांव; मरणः १४ फेब्रुवारी १९८८, पणजी).

व्हड गांधीवादी, त्यागी आनी उच्च विचारसरणी अशी जीण जियेवपी गोंयचो सुटके झुजारी. बापूय मुंबय उच्च न्यायालयांत काम करतालो. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठी, पोर्तुगेज आनी इंग्लिशींतल्यान घेतलें. ताका हिंदी, गुजराती आनी संस्कृत भाशेचें गिन्यान आशिल्लें.

१९२० वर्सा सावन ताचेर गांधीचे चळवळीचो खास करून अहिंसावादाचो खोल परिणाम जाल्लो. हाचो परिणाम म्हूण ताणें आपलें आवडीचें नुस्तें खावपाचें सोडलें. खादीचे कपडे वापरूंक घेतले आनी सादे रितीन रावपाची पध्दत आपणायली. वसाहतवादाआड झुजपाची ताची खर इत्सा आशिल्ली. १९४० वर्साचे सुर्वेक तो दिवचल वाठारांतल्या वाचनालयांत वावर करतालो, तेन्ना ताणें रामनाथ कडकडे हाच्या पालवान तरनाट्यांक एकठांय केले. तांकां ताणें हातीपत्रकांच्यो चक्रप्रती, डॉ. टी. बी. कुन्य हाची पुस्तिका आनी मुंबयसावन उजवाडाक येवपी अँग्लो लुझितानु (Anglo Lusitano) हें नेमाळें वांटलें. रामनाथ कडकडे आनी ताच्या वांगड्यांनी पोर्तुगेजांआड चळवळ करपाक फंड एकठांय करपाचो अपेशी बेत आंखलो. ताका लागून तांचेर वाजेवन तो सुटके झुजाचो एकटोच वावर करूंक लागलो.

१९४३ वर्सा ताणें आनी पुरुषोत्तम काकोडकार हांणी मेळून मडगांव शारांत गोंयचे राजकी जागृताये खातीर 'गोवा सेवा संघ' नांवाची संघटना स्थापली. हे संघटनेक लागून डॉ. लोहियान १८ जून १९४६ दिसा पोर्तुगेजां आड नागरी हक्कांखातीर सत्याग्रह केल्लो. ह्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी कांय काळ बंदखणींत दवरलो. फुडें तो मडगांव शारांत प्रभात फेरी काडप, प्रार्थना घेवप असलीं कामां करतालो. २८ सप्टेंबर १९४६ दिसा जॉर्ज व्हाज आनी फाकु पोकळे हांचे वांगडा तो सांखळे वाठारांतल्या बाजारांत सत्याग्रहांत वांटो घेवंक गेल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो, उपरांत दिवचलच्या न्यायालयांत ताची चवकशी जाली आनी रोखडीच सुटका जाली. 'राश्ट्रीय काँग्रेस गोंय' संघटनेखातीर तो तळमळीन वावर करतालो. हे संघटनेची करमळी वाठारांत परिशद भरिल्ली, तातूंत ताणें मानादीक सोयरो म्हूण वांटो घेतिल्लो. १५ डिसेंबर १९४७ दिसा पांडुरंग पी. शिरोडकार, डॉ. विनायक मयेंकार आनी गिल्येर्म दे सौझ (तिकलो) ह्या सुटके झुजाऱ्यां वांगडा ताका अॅटक जाली आनी आग्वाद बंदखणींत दवरलो. गोंयच्या प्रादेशीक लश्करी न्यायालयांत चवकशे उपरांत २० ऑक्टोबर १९४६ दिसा ताका पंदरा वर्सां 'काळ्या पाण्याची' ख्यास्त (degredo) फर्मायली. आग्वाद बंदखणींत साडेपांच वर्सां ख्यास्त भोगतकच ताका १ जून, १९५५ दिसा नारायण एच्. नायक, मुकूंद कामत धाकणकार, जयवंत कुंदे आनी हेर सुटके झुजाऱ्यांवांगडा आंगोलाक 'फोर्त रोझादश' (Forte Rosadas) बंदखणीत धाडलो. १२ मे १९५६ ह्या दिसा थंयच्यान ताची सुटका जाली. पूण ताका भारतांत धाडीनासताना ताची आंगोलांतल्या लुबांगो (Lubango) हांगाचे से द बांदेय्रा हे सुवातेचेर रवानगी केली.

ताणें आंगोलांत सुटके चळवळींत वांटो घेतला, ह्या दुबावान ताका से द बांदेरा हांगा परतो धरलो. उपरांत ताका मार्च १९६१ वर्सा सावन चार म्हयने बंदखणींत दवरलो. जुलय १९६१ त ताका आनी पांडुरंग पी. शिरोडकार हाका आंगोला सावन 'व्हेरा क्रूज' (Vera Cruz) बोटीन लिश्बोअ शारांत व्हेलो. १९६१ त 'व्हेरा क्रूज' बोट लिश्बोअ शारांत पावतकच थंय ताका मेकळो सोडलो. पूण थंय णव म्हयने तो नदरकैदेंत आशिल्लो. गोंय सुटके उपरांत ताका हेर तिग जाणां वांगडा कराचींत धाडलो. थंयच्यान ८ मे १९६२ दिसा तो गोंयांत पावलो.

सुटके चळवळीच्या काळांत समाजीक उदरगती खातीर आनी खादीचो प्रसार करपाखातीर तो वावुरतालो. १९६४ वर्सा सावन हरिजनाक आदार दिवचे पासत आनी गरीब विद्यार्थ्यांक शिक्षण मेळचें म्हूण दिवचल वाठारांत तो सर्वोदय आश्रम चलयतालो. दिवचल वाठारांत ताणें कोंकणी केंद्राची थापणूक केली. तो गांधीवादी आशिल्लो. जल्मभर ताणें गांधीचीं तत्त्वां पाळ्ळीं. कोंकणी भाशेचे उदरगतीखातीर ताणें तळमळीन काम केलें. तो लग्न जालो ना.

१८ जून १९८१ दिसा गोंय सरकारान सुटके झुंजातल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- डॉ. विनायक मयेंकार

## कारापुरकार, वसंत मुकूंदः (जल्मः १५ डिसेबर १९२७, फोंडें).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मॅट्रिक मेरेन शिक्षण घेतलें. ताचो बापोलयो सुटके झुजारी निळकंठ कारापुरकार आनी पुरुषोत्तम काकोडकार हांणी ताका सुटके झुजांत वांटो घेवंक स्फूर्त दिली. 'राश्ट्रीय काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. १९४४ वर्सा सावन तो गोंय काँग्रेस कमिटी खातीर वावर करूंक लागलो.

सुटके झुजारी मासिलॉन आल्मैदा हाचे वांगडा, मुंबयचो गोंय काँग्रेस कमिटीचो वांगडी म्हूण गोंयांत येवन सुटके झुजाचो वावर करूंक लागलो. १९४६ ते १९५२ ह्या काळांत ताणें गोंया येवन लिंपचोरयां वावर करूंक सुरवात केली. १९५४ वर्सा सुटके झुजारी आल्वारु पेरेरा आनी रवींद्रनाथ पै रायतुरकार हांचे अटके उपरांत तो बेळगांवां गेलो. थंय माधव बीर, कांता देसाय, रामभाऊ काकोडकार, आनी मोहन नायर हांचे वांगडा ताणें रासवळ सत्याग्रह (Mass Satyagraha) घडोवन हाडपांत वांटो घेतिल्लो. १९५६ वर्सा तो 'गोंय सुटके सैन्य' (Goa Liberation Army) संघटनेचो वांगडी जालो आनी गोंयांत येवन हे संघटनेचे वतीन वावर करूंक लागलो.

मासिलॉन आल्मैदा, गोपाळ विर्जिनकार आनी हेर सत्याग्रहीं वांगडा हत्यारबंद हल्ल्यांनी वांटो घेवप आनी फंड एकठांय करपाक आदार दिवप, असलीं कामां तो करतालो. जून १९५६ वर्सा पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो आनी आग्वाद बंदखणींत दवरलो. उपरांत १९६० वर्सा

ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**कारीट:** (मराठी-कारीट, टकमकी; हिंदी-जंगली इंद्रायण, हिंसलांबी; गुजराती-कोठीबान; संस्कृत-विशाला; लॅटीन-कुकुमिस ट्रायगोनस; कूळ-कुकर्बिटेसी).

कारीट हें पावसाळ्यांत जावपी फळ. हें फळ वालीक जाता. काट्टाचे वालीक काट्टीण म्हण्टात. ही आपुणशीच जावपी वाल. भारताच्या सगळ्या भागांनी ही वाल दिश्टी पडटा. तेचपरी श्रीलंका, मलाया, उत्तर ऑस्ट्रेलिया, अफगाणिस्तान आनी इराण ह्या वाठारांनीय ही वाल दिश्टी पडटा.



कारीट

पयलो पावस पडलो तशें काट्टाचें बीं किल्लता आनी तिचेपसून वाल जाता. काट्टीण चड करून शेणागायरी-कडेन वा जंय शेण आसता, असल्या जाग्यांनी जाल्ली दिश्टी पडटा. हाचें कारण म्हळ्यार गोरवां काट्टां खातात, तांणी खाल्ल्या काट्टां-च्यो बियो तांच्या शेणांतल्यांन जमनीर पडटात आनी तश्योच उरतात. पावसांत ह्या बियांक कोंब येवन ताच्यो वाली जातात. पावसभर गोरवां काट्टीणीक तोंड लाय-नात, मात पावस सोंपलो तशीं गोरवां काट्टां आनी काट्टीण दोनूय खातात.

काट्टाची वाल आनी पानां खरखरीत आसतात. तिचीं पानां पांच कोनशांची (हाता आकाराचीं) आसतात. वालीच्या कांडापरस पानां कमी खरखरीत आसतात. ही खरखरसाण सुयेपरस बारीक आंगभर पातळिल्ल्या कांट्यांक लागून येता. पानां कणकणी ही वाल लांब हात (tendrils) सोडटा. ताका लागून ते वालीक झाडार चडपाक येना. ती जमनीरूच चड पातळटा.

काट्टीणीक हळडुव्या रंगाचीं फूलां येतात. ह्या फुलाक एकामेकांक दशिल्ल्यो पांच पाकळ्यो आसतात. देखून फुलाचो आकार एकाद्र्या कोपासारको दिसता. फुलां वांगडा तोरो आसता आनी त्या तोऱ्याचें उपरांत काट्ट जाता.

तोरो ल्हान आसतना, ताच्या आंगार सांसवां सारके दिसपी काळे कांटे आसतात. कारीट जून जालें म्हण्टकच हे कांटे झडून आंग सुळसुळीत जाता. कारीट आनी काट्टीण दोनूय पुराय कोडू आसतात. कारीट आकारान लांबट वाटकुळें आसता. सुरवातीक ताचो रंग पाचवो आसता, उपरांत तें जून जाता आनी धवसार जायत वता. पिकतकच मात कारीट मोव जाता. वाल सुकतकच कारीट झडटा.

काट्टाभितर खूब बियो आसतात, त्यो आठ ते धा खणांनी गोरेपांत रचिल्ल्यो आसतात. बियो धव्या रंगाच्यो, मोटव्यो आनी चेपट्यो आसतात. दिवाळेच्या अदमासाक काट्टां जून जावन तयार जातात.

हिंदू धर्माचे लोक काट्टाक नरकासुराचें प्रतीक मानतात. दिवाळे दिसा सकाळीं न्हावन, तुळशीकडेन दाव्या पांयान कारीट फोडटात आनी ताचो कुडको मोडून खातात. अशें हें कारीट फोडप म्हळ्यार नरकासुराक मारप असो लोकांमदीं समज आसा. दिवाळे दिसा कारीट उश्टायलेबगर कांयच खावंक जायना, अशें मानतात. दिवाळेच्या आदल्या दिसा म्हळ्यार आश्विन वद्य त्रयोदशी दिसा उदकाच्या आयदनांक फुलांवांगडा काट्टां गुंथून केल्ल्यो माळो बांदपाची चाल आसा. अश्यो माळो बांदून सजयल्ल्या उदकाच्या आयदनांनी त्या दिसा घरांत उदक हाडटात.

धेणलो पाडव्या दिसा कांय गांवांनी आंगणांत शेणाचो गोठो करपाची (गोठ्याची आकृती) चाल आसा. ह्या गोठ्यांत, काट्टांक व्हीर तोंपून, व्हिरांच्यो पांय, शेंपड्यो लावन तीं गोरवां म्हूण दवरपाची चाल आसा. काट्टाचीं अर्दीं भितल्ल्यो बियो काडून पोकीं करतात आनी तीं आयदनां मानून तातूंत गोठ्यांत दूद-धूंप तापत दवरतात वा घालून दवरतात.

कारीट हें वखदी फळ. तें काडून दवरीत जाल्यार घरांत वर्सभर उरता, पूण तें तांदळाच्या कुंड्यांत घालून दवरचें पडटा. पांयार रगत पडून सुजत जाल्यार कारीट फोडून पांयार घालतकच सूज देंवता. हाता-पायांच्या बोटांक कॉर जायत जाल्यार काट्टाक बुराक मारून तें बोटाक लायतात. ह्या उपायान कोर भितल्ल्या भितर पोकी जाता, म्हळ्यारूच इन्फेक्शन काडून उडयता. कारीट खावप भलायकेक बरें. ल्हान पाडकांक दुदको जायत जाल्यार काट्टीणीचो पालो खावयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**कारे, दामोदर अच्युत:** (जल्मः ४ मार्च १९०९, काकोडें-गोंय; मरण- २३ सप्टेंबर, १९८५).

नामनेचो गोंयकार मराठी कवी. मुळावें शिक्षण कवळें आनी मडगांवच्या दामोदर विद्यालयांत घेतलें. उपरांत सेगुंदग्राव आनी लिसेवाचें पोर्तुगेज शिकप पुराय केलें. १९२५ वर्सा तो दामोदर विद्यालयांत शिकोवपाची नोकरी करूंक लागलो. उपरांत १९२४ वर्सा, पुरुषोत्तम श्री निवास सुकेरकार हाणें उजवाडाक हाडिल्ल्या 'हिंदू' ह्या नेमाळ्यांत, संपादक दत्तात्रय व्यंकटेश पै हाचो सहाय्यक म्हूण तो काम करूंक लागलो. १९२७ वर्सा सावन तो थंयचें पुराय वेवस्थापनाचें काम पळेतालो. थंयच तो साहित्य समालोचनात्मक लेखनूय करतालो.

फुडें मडगांव वाठारांत ताणें आपलो 'गोमंतक' छापखानो सुरू केलो. भुरगेपणासावन ताका वाचनाची आवड आशिल्ली. तरणेपणांत बाकीबाब बोरकाराकडेन वळख जाल्ल्यान काव्य आनी साहित्य हाचेकडेन ताचो दाट संबंद आयलो.

१९२५ वर्सा म्हळ्यार पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा ताणें बरयल्ल्या 'हृदय मंदिर' हे कवितेक लागून ताका बरीच नामना मेळ्ळी. १९३० वर्सा सावन सां. घ. कंटक हाच्या 'सुबोध' ह्या म्हयन्याळ्यांत ताचे काव्य समीक्षेचेर लेख उजवाडाक येताले.

गोंयाभायल्या 'रत्नाकर', 'प्रतिभा', 'यशवंत' 'बागीश्वरी', 'ज्योत्स्ना', 'पारिजात' ह्या नेमाळ्यांनी ताच्यो कविता उजवाडाक आयल्यात.

१९३४ वर्सा ताचो 'नंदादीप' हो कवितां झेलो उजवाडाक आयलो. हाचे उपरांत ताणें जायत्यो कविता रचल्यो पूण त्यो पुस्तकरुपान लोकांमेरेन पावल्यो नात. बारीकसाणेन केल्लें नियाळ, सैम, गिन्यानी कल्पकतेचो अप्रूप आविश्कार, शांत आनी सात्त्विक भावांचें पडबींब ताचे कवितेंत दिसून येता. ताची 'स्मरणी गोमन्त देवी' ही कविता खूब गाजली.

साहित्या वांगडाच ताणें तरणेपणात हेर मळारूय वावर केला. समाज सेवा संघ आनी गोमंत विद्यानिकेतन ह्या संस्थांनी ताणें तळमळीन वावर केला. पद्य लेखना वांगडाच ताणें गद्य आनी टीकात्मक लेखन, तशेंच

संशोधनूय केलां. 'घनश्याम सुंदरा' ही भुपाळी होनाजी बाळाची न्हय, तर विठ्ठल केरीकाराची आसा, हाचेर खोल अभ्यास करून, जायते पुरावे दिवन ताणें तें सिध्द केलां.

गोंय मुक्ती उपरांत पयलेच फावट गोंयांत भरिल्ल्या इकराव्या मराठी साहित्य संमेलनाचो ताका स्वागताध्यक्ष म्हूण वेंचून काडिल्ल्यान ताच्या वावराचो भोवमान जालो.

- दिलीप बोरकार

## कारेकार, प्रभाकर जनार्दन:

(जल्म: ४ जुलय १९४४, जुवें- सांत इस्तेव).

नामनेचो गोंयकार गायक. ताचें मुळावें आनी हायस्कूलमेरेनचें शिकप मडगांवच्या न्यू इरा हायस्कुलांत जालें. ताचो बापूय आनी आजो गवय आशिल्ले आनी तांच्या गायनाचे संस्कार भुरगेपणांतूच प्रभाकराचेर जाल्ले.

१९५५ वर्सा सावन ताणें धा वर्सां सुरेश हळदणकार हाचेकडल्यान गायनाचें शिक्षण घेतलें. १९६७ वर्सा ताका केंद्र सरकाराकडल्यान गायनांतली संगीत नाटक अकादेमीची शिष्यवृत्ती मेळ्ळी. तेन्ना तो मुंबय गेलो आनी थंय ताणें संगीत मळावेलो नामनेचो गावपी पंडित जितेंद्र अभिषेकी हाचेकडेन गायनाचें शिक्षण घेतलें. उपरांत तो पंडित सी. आर. व्यास हाचेकडल्यान गायनाचें शिक्षण घेवंक लागलो.

१९६७ वर्सा ताणें पयले खेप मुंबय हांगा आपली कला लोकांमुखार दवरली. १९७४ वर्सा पु. ल. देशपांडे हाणें घडोवन हाडिल्ले भीमसेन जोशी हाचे गायनाचे कार्यावळींत ताणें आपलें गायन सादर केलें.

ख्याल गायकी वांगडाच, ठुमरी, भजन, मराठी भक्ति संगीत, नाट्य संगीत आनी कोंकणी गीतांय तो व्हड कुशळकायेन सादर करता. आतांमेरेन ताच्या नाट्यगीतांच्यो १६ आनी भजनांच्यो ४ ध्वनीमुद्रिका आयल्यात. 'कैवारी' ह्या मराठी चित्रपटांत ताणें पार्श्वगायक म्हूण आवाज दिला. रेडिओ आनी टी. व्ही. चो तो मानादीक कलाकार आसा.

भारतांत कलकत्ता, मद्रास, दिल्ली, मध्य प्रदेश, इंदूर आनी हेर कितल्याशाच शारांनी, तशेंच परदेशांत अमेरिका, लंडन, दुबय, बाहरीन, मस्कत हांगा ताणें गायनाचे कार्यक्रम केल्यात. गोंयांत सम्राट क्लबाचे वतीन राश्ट्रीय नामनेचें दर वर्सा मास्टर दीनानाथ मंगेशकर संगीत संमेलन जाता, ताचो सल्लागार म्हूण तो काम पळेता. सद्या तो मुंबय स्थायीक जाला. थंय तो गायनाचे वर्ग घेवन नवे गावपी तयार करपाचेंय काम करता.

- रमेश सखाराम बरवे

## कार्तिक:

हिंदू कालगणनेप्रमाण आठवो म्हयनो. ह्या म्हयन्याचे पुनवेक चंद्र कृत्तिका नक्षत्रालागीं आसता म्हूण ताका 'कार्तिक' अशें नांव दिलां. ताका बाहुल, ऊर्ज आनी कार्तिकिक अशीय नांवां आसात.

कार्तिकांतल्या व्रतांची म्हायती हेमाद्रीच्या व्रतखंडांत सविस्तर दिल्या. स्कंदपुराणाच्या वैष्णव खंडांत कार्तिकमाहात्म्य नांवाचो विशय आसून तातूंत कार्तिक म्हयनो हो सगळीं तीर्थां आनी सगळे यज्ञ हांच्यापरसूय चड पवित्र, अशें सांगलां.

ह्या म्हयन्यांत सूर्य वृश्चिक राशींत येता. बलिप्रतिपदा (दिवाळेचो पाडवो), यमद्वितीया (भाऊबीज), पांडवपंचम, गोपाष्टम, कृष्मांड नम, प्रबोधिनी एकादस, द्वादशीक तुळशी लग्न, वैकुंठ चतुर्दस आनी त्रिपुरी पुनव हे सगळे ह्या म्हयन्याच्या शुध्द पक्षांतले धर्मीक म्हत्वाचे दीस जावन आसात. कार्तिकांत कार्तिकस्नान आनी दीपदान हीं म्हत्वाचीं कृत्यां जावन आसात.

गोंयांत श्री नवदुर्गा देवस्थान- मडकय हांगाची वर्सुकी जात्रा कार्तिक वद्य चतुर्थी सावन दशमी मेरेन सात दीस चलता. तेचप्रमाण वेलिंग हांगाच्या श्री लक्ष्मी नृसिंह देवस्थानचो वर्सुकी महापर्वणी महोत्सव जात्रा कार्तिक शुक्ल १४ शी वैकुंठचतुर्थीच्या दिसा पसून पांच दीस मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

## कार्दोज, फेलीस्यु शाव्हियेर इश्पेर्दियांव कायतान द रोझ:

(जल्म: ३० ऑगस्ट १९३२, सुरावली-सालसेत).

गोंयचो सुटकेझुजारी, साहित्यीक आनी पत्रकार. बापायचें नांव इनोसेंस्यु सेबाश्तियांव कार्दोज आनी आवयचें नांव मारीय ईद द पियेदाद मेर्गुल्यांव. ताच्या घराब्याचो वेवसाय शेतकामत्याचो आसलो. तो आंकवार आसा.

ताणें आपलें मुळावें शिक्षण सुरावले पोर्तुगेज माध्यमांतल्यान घेतलें. उपरांत मडगांवच्या इन्स्तितूतु वेनेरावेल पाद्रि जुजे वाज ह्या पोर्तुगेज लिसेंव विद्यालयांत शिकून फुडें इन्स्तितूतु आबादि फारीय, मडगांव ह्या विद्यालयांत लिसेवाचीं पांच वर्सांमेरेन शिक्षण पुराय केलें. उपरांत गोंयचे सुटके झुजांत बंदखण भोगून भायर येतकच १९७६ वर्सा तो एस्. एस्. सी. ची परीक्षा पास जालो. १९८० वर्सा ताणें मुंबय विद्यापीठाची बी. ए. पदवी मेळयली.

पोर्तुगेजांचे बंदखणींतल्यान सुटतकच ताणें एका दाबिराच्या (ताबेलियांवाच्या) कार्यालयांत अणकारपी म्हूण काम केलें. मागीर एके खाजगी मुळावे मराठी शाळेंत तशेंच श्री दामोदर विद्याभुवनांत १९६१ मेरेन पोर्तुगेज शिक्षकाचो वेवसाय केलो.



फेलिसियु कार्दोज

मुक्तीउपरांत स्वता चलयिल्ल्या सप्तकी नेमाळ्याचो आनी दिसाळ्याचो संपादक म्हूण ताणें वावर केला. फुडें कांय काळ ताणें स्वता छापखानो चलयलो. १९७५ वर्सा सावन तो नावेलीच्या रोझरी हायस्कुलांत शिक्षक जालो. उपरांत तेच शिक्षणसंस्थेंत १९८८ वर्सासावन हायर सेकंडरीचो शिक्षक आसा. एस्. एस्. सी. बोर्डाच्या 'बोर्ड ऑफ स्टडीज इन कोंकणी' हाचो तो वांगडी आसा.

लिसेव शिकता आसतना जनार्दन शिंक्रे हाचें 'ज्वाला' हें सुटकेमोग्यांचो प्रसार करपी पत्र वाचून ताका स्फूर्त मेळ्ळी. ताणें जादूचे प्रयोग आनी तियात्र सादर करून तशेंच 'गोवा', 'कोंकण टायम्स', 'गोल्डन गोवा', 'संतोस' आदी कोंकणी नेमाळ्यांनी लेख बरोवन सुटके चळवळीविशीं लोकांमदीं जागृताय घडोवन हाडली. मे १९५४ त, पोर्तुगालासावन एक पोर्तुगेज मंत्री गोंयचे भेटेर येवपाचो आशिल्लो. अशा वेळार कोलवें (साश्ट) हांगा वेगवेगळ्या सुवातींनी 'गोंय सोडात' अशे तकटे लावपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. देखून १६ जून १९५४ दिसा ताका अटक केली. बंदखणींत ताका खूब मार पडिल्ल्यान ताचो एक कान जायबंदी जालो. मडगांव आनी आग्वाद हांगा साडेतीन वर्सांची बंदखण भोगून ३० जानेवारी १९५८ दिसा ताची सुटका जाली. बंदखणींत आसतना ताणें देवनागरी लिपीचो अभ्यास आनी साहित्याचें वाचन केल्लें.

मुक्ती उपरांतच्या कोंकणी भाशा आनी साहित्य हांचे उदरगतीचे चळवळीक ताणें स्वता नेमाळीं आनी दिसाळें काडून व्हड हातभार लायला. ताणें १५ ऑगस्ट १९६२ दिसा 'गोंयचो साद' हें रोमी लिपींतलें सप्तकी नेमाळें स्वताच्याच म्हालवजार आनी संपादनाखाल सुरू केलें. १५.८.१९६३ दिसा ताणें ह्या पत्राक दिसाळ्याचें रूप दिलें आनी ताका 'सत' हें नांव दिलें. कोंकणींतलें हें पयलें दिसाळें १५.८.६८ मेरेन चल्लें.

उपरांत ताणें पोर्तुगेज भाशेंतलें 'अ वीद' आनी 'सत' हांचें एकत्रिकरण करून 'दिवटी' हें रोमी कोंकणी दिसाळें सुरू केलें. ह्या दिसाळ्याचो तो मुखेल संपादक नासलो तरी संपादनाची सगळी जापसालदारकी ताच्या आंगार आसली. उपरांत ताणें 'दिवटी' हें दिसाळें सोडून 'लोकसाद' हें कोंकणी सप्तकी नेमाळें सुरू केलें. पूण तें एक वर्सूच चल्लें. वेगवेगळीं रोमी कोंकणी नेमाळीं चलयतना, ताणें कोंकणी बरपाचेर जो पोर्तुगेज भाशेचो प्रभाव पडिल्लो तो साप उणो केलो आनी नीज कोंकणीची धाटणी आनी उतरावळ कोंकणींत हाडली.

गोंयचें व्यक्तिमत्व तिगोवन दवरपाचे चळवळींत, तशेंच कोंकणी भाशा आनी साहित्याचे चळवळींत ताणें मोलादीक वांटो घेतिल्लो. खबरेपत्रां आनी भाशणांवरवीं ताणें ओपिनियन पोलाच्या आंदोलनांत वांटो घेतलो. 'कोंकणी प्रजेच्या आवाजा'न चलयिल्ले राज्यभाशा चळवळींतूय ताणें सक्रीय वांटो घेतिल्लो. दोन फावट तो सुरावली पंचायतीचो वांगडी म्हूण वेंचून आयला.

ताणें 'अलिबाबा आनी चाळीस चोर', 'ताखटी सिंदबाद', 'अलाउद्दीन आनी अद्भुत दिवो' हीं पुस्तकां कोंकणींत अणकारल्यांत. ताचो 'फुलांची बाग' हो कवितांझेलो तशेंच 'तुफान' आनी 'निमणी इत्सा' हे कथांझेले उजवाडाक आयल्यात. ताणें 'कोंकणी भाशेवयर नियाळ आनी विचार' हो निबंध बरयला. तशेंच ताच्यो कथा, लेख आनी निबंध वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयल्यात आनी रेडिओवेल्यान ध्वनीक्षेपीत जाल्यात. १९८४ ते १९८६ मेरेन तो कोंकणी भाशा मंडळाचो अध्यक्ष आशिल्लो.

भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला. पत्रकार ह्या नात्यान ताणें १९६९ वर्सा आनी रशियन भाशेचो अभ्यास करपाखातीर १९७७ वर्सा रशियाची भोंवडी केल्या.

- प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार

**कार्नाड गिरीश:** (जल्मः १९ मे १९३८).

नामनेचो नाटककार, लेखक आनी नट. ताचो बापूय रघुनाथ कार्नाड हो वैज आशिल्लो. आवयचें नांव कृष्णाबाई. गणितशास्त्र आनी संख्याशास्त्र विशय घेवन कर्नाटक विश्वविद्यालयाची पदवी मेळयतकच फुडल्या शिक्षणाखातीर तो मुंबय गेलो. मुंबय विश्वविद्यालयांत एम्. ए. चो अभ्यास करतना रोड्स विद्यार्थीवितन घेवन तो इंग्लंडाक गेलो. १९६३ त, ताणे ऑक्सफर्ड विद्यापीठाची बी. ए. पदवी मेळयली. कांय काळ तो थंय विद्यार्थी युनियनचो अध्यक्ष आशिल्लो. भारतांत येतकच ताणे मद्रासांत आशिल्ल्या ऑक्सफर्ड युनिर्वसिटी प्रेसांत उपव्यवस्थापक म्हूण काम केलें (१९६३-६९). उपरांत १९७० त, थंयच्च व्यवस्थापक म्हूण काम केलें. पूण ताचें मन थंय रमलें ना.

ताणे चड पुस्तकां बरोवंक ना. पूण जीं चार पुस्तकां बरयल्यांत. तीं समीक्षकांचे तोखणायेक पात्र थारल्यांत. 'ययाती' ह्या ताच्या पयल्या नाटकान कन्नड नाटकांक नवी दिका दिली. पुराणकथा ताणें नवे नदरेंतल्यान मांडली. ह्या नाटकाचें तंत्र लोकांक खूब मानवलें. 'ययाती' चे प्रयोग मराठी आनी हिंदी भाशेंत जाले. ह्या नाटकाक कर्नाटक राज्य पुरस्कार फाव जालो. उपरांत ताणे 'तुघलक' नांवाचें नाटक बरयलें. ह्या नाटकाक भारतभर नामना मेळ्ळी. हिंदी, इंग्लीश आनी मराठी भाशेंत ताचे अणकार जाले. इतिहासांत पिसो तुघलक म्हूण गाजिल्ल्या एका राजाक एक बुदवंत झुजांत प्रवीण आनी अर्थशास्त्रांत फिशाल असो राजा दाखोवपाचो यत्न कार्नाड हाणें 'तुघलक' ह्या नाटकांत केला. एक वेगळीच वातावरण निर्मिती, आगळ्या तंत्राचो उपेग आनी अर्थपूर्ण संवाद आशिल्ल्या ह्या नाटकाक १९६९ त संगीत नाटक अकादेमी पुरस्कार फाव जालो. ताचे उपरांत आयिल्ल्या 'हयवदन' नाटकाक लागून कार्नाड हाका उपाट नांव मेळ्ळें. हयवदनाचे प्रयोग बेंगळूर, म्हैसूर, मुंबय, दिल्ली शारांनी जाले. यक्षगान ह्या लोककलातंत्राचो वापर केल्ल्या ह्या नाटकाक १९७१ वर्सा भारतीय भाशेंतले एक श्रेश्ठ नाटक म्हूण पुरस्कार मेळ्ळो. फुडें ताणें 'हिट्टिन हुंज' हें नाटक बरयलें.



**गिरीश कार्नाड**

चित्रपटाच्या मळारुय ताणें केल्लो वावर म्हत्वाचो आसा. प्रा. यु. आर. अनंतमूर्ति हाचे 'संस्कार' कादंबरीचो आदार घेवन ताणें चित्रकथा, संवाद तशेंच निर्देशन करून 'संस्कार' हो कलात्मक चित्रपट तयार केलो. ह्या सिनेमाक १९७१ तलो, श्रेश्ठ चित्रपट म्हूण राश्ट्रपती भांगरापदक फाव जालें. ह्या चित्रपटांत प्राणेशाचार्य ही मुखेल भूमिका केल्ल्यान ताचें नांव भारतभर गाजलें. उपरांत बी. व्ही. कारंत हाच्या वांगडा काम करून एस्. एल्. भैरप्पा हाचे 'वंशवृक्ष' कादंबरीचेर आदारीत 'वंशवृक्ष' हो चित्रपट काडून ताणें राज्य पुरस्कार आनी फिल्मफेअर पुरस्कार मेळयलो. आलनहळ्ळी श्रीकृष्ण हाचे एके कादंबरीचो आदार घेवन ताणें 'काडु' हो आनीक एक चित्रपट तयार केलो. 'मृच्छकटिक' (मूळ बरोवपी शूद्रक) नाटकाचेर आदारित 'उत्सव' ह्या हिंदी चित्रपटाचें निर्देशन ताणेंच केलां.

हिंदी-कन्नड चित्रपटांतल्या ताच्या ऊंच पांवड्याच्या अभिनयाक लागून ताका एक बरो नट म्हूण नामना मेळ्ळ्या. दूरदर्शनावयल्या कितल्याश्याच चित्रमाळांनी ताणें काम केलां. कांय काळ ताणें पुणेच्या भारतीय चलचित्र आनी दूरदर्शन संस्थेचो संचालक म्हूण काम केलें. सद्या तो केंद्र संगीत नाटक अकादेमीचो अध्यक्ष आसा. ताच्या नाटक-साहित्य-चित्रपट मळावेल्या मोलादीक वावराची तुस्त-तोखणाय करून भारत सरकारान ताका पद्मश्री पुरस्कार भेटयला.

- एस्. एम्. कृष्णराव

**कार्नीवाल:** कार्नीवाल, कार्नेवाल, कार्नावाल, कार्नोवाल हीं कार्नीवाल दबाज्याचीं वेगवेगळीं नांवां. सादारणपणान 'कार्नीवाल' हेंच नांव वापरतात आनी लॅटीन भाशेंत ताचो अर्थ कार्नीवाला उपरांत मांसाहार सोडप, असो जाता. म्हळ्यारूच किरिस्तांवांचो ४० दिसांचो उपास-काळ 'लेंट' येवचेपयलीं मजा करप. उपासाचो म्हयनो येवंचे पयलीं खोस परगटावप आनी मनीसपणाचें लक्षण दाखोवपाची थोड्या भोव प्रमाणांत तयारी करप. उपासाचो म्हयनो येंवचे पयलीं मांस, लोणी, चीज, दूद, तांतीं, चरबी, बेकन ह्यो वस्तू घरांत हाडप बंद करप. ते खातीर 'अॅश वेनस्डे' ('लेंट' मोसमाचो पयलो दीस) येवचे पयलींच घरांत सांठ्यल्लें उंची अन्न खातात. कार्नीवालाच्या वेळार खोस मनोवन ऊंची अन्न आनी वस्ती लोकांक वांटून सोंपयतात.

नव्या कार्नीवालाचें मूळ, एकसारकेपण १४ व्या शेंकड्याचे कार्नीवालाचे परंपरेंत रिगिल्लें आसा. कार्नीवालाचे उत्पत्तीविशींचो निश्चित इतिहासीक पुरावो मेळना. नव्या वर्साचे सुरवातीक आनी सृश्टीचे सोबायेन शिंगारिल्ल्या सैमाक येवकार दिवपाखातीर मनोवपांत येवपी एका मूळ पूर्विल्ल्या सणा-परबेंतसून कार्नीवालाचो जल्म जाला आसूंये, अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

कार्नीवाल दबाज्याचो पयलो दीस राश्ट्रा-राश्ट्राप्रमाण थंयचे थळावे परंपरेक अनुसरून थारायल्लो आसता. म्युनीच (बॅव्हेरिया) हांगाचो कार्नीवाल एपीफनीच्या फेस्तादिसासावन म्हळ्यार ६ जानेवारी सावन सुरू जाता. कोलोन हांगाचो कार्नीवाल ११ नोव्हेंबराक सकाळच्या ११.११

वरांचेर (इकरावो म्हयनो, दीस, वर आनी मिनिट) सुरू जाता. अमेरिकेंत 'न्यू ऑर्लीयन्स' शारांत कार्नीवालाची परब व्हडा दबाज्यान मनयतात. थंयचो कार्नीवाल 'बारावे राती' (जानेवारी ६) सावन सुरू जाता आनी 'इरोव च्यूसडे'च्या धा दीस पयलीं म्हळ्यार 'मार्दी ग्रा' मोसमामेरेन चलता.

फ्रेंच भाशेंतलो 'मार्दी ग्रा' ('इरोव-च्यूसडे' वा 'फॅट च्यूसडे') म्हळ्यार लेंट मोसम सुरू जावंचे पयलीं मांस खावपाचो निमाणो दीस. नातलां ते लेंट म्हणसर 'मार्दी ग्रा' काळ उरता. ज्या वेळार शेतांत चड काम उरिल्लें नासता, खेड्यांनी वेपार- धंद्याचेंय काम कमी आसता, तोच वेळ भोंवडी करपाचो, फेस्त मनोवपाचो आसता. ह्या वेळार लोक आपले त्रास विसरून खोस मनोवपाचो, धूंद जावपाचो यत्न करतात. फ्रांसांत कार्निवालाचो उत्सव 'इरोव च्यूसडे' सावन 'मीकारेमी' मेरेन म्हळ्यार लेंट मोसमाच्या तिसऱ्या सप्तकांतल्या बिरेस्तारामेरेन मनयतात.

इटलींत कार्नीवालाक 'कार्नावालारें' अशें म्हण्टात. तो शब्द इटालीयन 'आवालारें' शब्दावयल्यान आयला. म्हळ्यार वर्साच्या त्या वेळार अती मांस भक्षण करप. ह्या फेस्ताक 'कार्नालिया' अशेंय 'सॅटर्नालिया' वयल्यान म्हण्टात. 'सॅटर्नस' हो शेतांचो देव, जाचें फेस्त दर वर्सा डिसेंबर म्हयन्यांत जाता. कार्नीवालाचो उत्सव रोमन लोक व्हडा दबाज्यान मनयताले. पर्यटकांचें ह्या वेळार चड प्रमाणांत येवप आसतालें. आदल्या काळांत रोमचो कार्नीवाल उत्सव सबंद संवसारांत नामनेक पाविल्लो. उपरांत कांय काळाखातीर सत्तेर आयिल्ल्या पोप आनी ताच्या वांगड्यांनी कांय बदल करून सामान्य मनशाखातीर करमणुकीच्यो कार्यावळी घडोवन हाडल्यो. अशें म्हण्टात, की पूर्विल्ल्या काळांत रशियांतल्या जिल्ह्यांच्या वाठारांनी 'मासलियानिस्टा' (लोणयाची देवता- Butter Goddess) सोबीतपणान शिंगारताले. कार्नीवालाच्या दिसा देवतेक बर्फाचेर निसरून वचपी गाडयेर सगळ्याक भोंवडायताले. शेतकामती खाशेलीं गीतां गायताले. सप्तकाच्या निमण्या दिसा तिका लासताले आनी खोशयेचो इस्टर ये म्हणसर निरोप घेताले. कार्नीवालाच्या माध्यमावरवीं पारंपारिक लोककला, लोकगीतां आनी लोकनृत्यां हांची उदरगत जायत गेली.

**गोंयचो कार्नीवाल:** पोर्तुगेज राजवटींत सुरू जाल्लो कार्नीवाल गोंय सुटके उपरांतूय गोंयांत चालू उरलो. गोंयकार शिगम्यावांगडाच कार्नीवाल दबाज्यान मनोवंक लागले. सुटके उपरांतच्या गोंयांत कार्नीवाल म्हयनोभर मनयताले. त्या वेळार लोक एकामेकांगेर वचून फाटलें दुस्मानपण आसल्यार, तें विसरून खोस मनयताले. नाचाच्यो आनी गायनाच्यो सर्ती आसताल्यो. पोरन्या आनी नव्या वाद्यांच्या संगीताच्या तालार लोक उर्बेन आनी उमेदीन कार्नीवाल मनयताले. तरेकवार रंगांनी भरिल्ल्यो 'कोकाती' (रंगाचो पिठो भरिल्ल्यो कागदाच्यो पुडयो) लोक एकामेकांचेर आनंदान मारताले. बाजारांत त्या वेळार मेळपी चॉकलेटी, पेपरमिंटाचोय जाण्ट्या-नेणट्यांचेर पावस पडटालो.

१९६७ सावन गोंयांत, सरकारी थरार पर्यटन खात्यान कार्नीवाल मनोवपाक सुरवात केली. गोंयचो कार्नीवाल फेब्रुवारी म्हयन्यांत येता. त्या वेळार पणजे पालिका बागेंत पयलीं किंग मोमोची मिरवणूक येता. 'किंग मोमो' फोगेट्यांच्या आवाजांत पणजे शारांत प्रवेश करता आनी आपल्या तीन दिसांच्या राज्याचो (कार्यावळीचो) जाहीरनामो वाचता. ह्या जाहीरनाम्यांत 'खायात, पियात, मजा करात' असो तीन दिसांखातीर संदेश आसता. ह्या तीन दिसांत वेगवेगळ्यो संस्कृतीक कार्यावळी, नाच आनी फॅन्सी ड्रेस सर्ती जातात. गोंयच्या विंगड-विंगड वाठारांतलीं पथकां, रोमटां, मेळ सर्तींत वांटो घेतात. 'किंग मोमो' सगळ्या पथकांचें मुखेलपण करता. गरीब-गिरेस्त, सुशिक्षित-अशिक्षित, जात-पात धर्म विसरून सगळे लोक एकठांय जातात आनी तीन दीस कार्नीवालाची परब व्हडा दबाज्यान आनी खोशयेन मनयतात. गोंयचें खाशेलें आकर्शण 'कार्नीवाल' पळोवपाक कितलेशेच देशी-विदेशी भोंवडेकार गोंयांत येतात. कार्नीवालाचो आनंद समेस्त गोंयकारांक मेळचो, ह्या हेतान हालींच गोंयांत शिगमो-कार्नीवाल उत्सव समितीची थापणूक जाल्या. कार्नीवाल हो मुळांत अस्तंतेकडलो दबाजो आशिल्ल्यान आनी त्या वेळार रस्त्यार जावपी नाचांनी भारतीय संस्कृतायेक सोबना अशीं चल्या-चलयांची आंगमोडणी आनी भेस हांकां हरकत घेवपी लोकमत तयार जाल्ल्यान सरकारी पातळेवेल्यान जावपी कार्नीवाल १९८६ वर्सा सावन बंद जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**कार्बन डाय-ऑक्साइड:** कार्बन डाय-ऑक्साइड हो एक वायू. हाचें दुसरें नांव कार्बोनिक ॲसिड गॅस (Carbonic acid gas). ताचें सूत्र: $CO_2$. तो हवेंत सामक्या उण्या प्रमाणांत आसता. हवेंत ताचें प्रमाण सुमार ०.०३ टक्के आसता. कार्बन डाय-ऑक्साइड धोली, खणी आनी चुन्याच्या खोर्नालागीं खोल सुवातींनी एकठांय जाता. ज्वालामुखींतल्यान भायर सरता त्या वायूंत कार्बन डाय-ऑक्साइडचो आस्पाव आसता. जळप (combustion) आनी किण्वना सारके (fermentation) प्रक्रियेंतल्यान कार्बन डाय-ऑक्साइड तयार जाता. जे. बी. व्हॅन हेल्मॉट (१५७७-१६४४) ह्या बेल्जियन रसायनशास्त्रज्ञान हो वायू सगळ्यांत पयलीं पारखीलो.

कार्बन डाय-ऑक्साइडच्या एका रेणूंत एक कार्बन (carbon) आनी दोन ऑक्सिजन (oxygen) अणू आसतात. कार्बन डाय-ऑक्साइड हो रंगहीन, मात्सो दर्प (pungent) मारपी वास आशिल्लो आंबट वायू. तो हवेपरस देड पटीन जड आसता. तो उदकांत विरगळटा आनी ताचें कार्बोनिक अम्ल जाता. हवेंत कार्बन डाय-ऑक्साइडचें प्रमाण चड आसत जाल्यार जळपाची क्रिया घडून येना. हो वायू विखाळ न्हय. पूण हवेंत ताचें प्रमाण चड आनी ऑक्सिजनचें प्रमाण उणें जालें जाल्यार मनीस आनी हेर जनावरां मरूं शकतात. पांच टक्के कार्बन डाय-ऑक्साइड आशिल्ले हवेंत चड वेळ उस्वास घेतलो जाल्यार मनीस बेशुध्द पडून मरूं येता.

चेंपणा सकयल (under pressure) ३०.९८° से. तापमानापरसूय थंड करीत जाल्यार कार्बन डाय-ऑक्साइड वायूचो पातळ पदार्थ (liquid) जाता. पातळ पदार्थ चेंपणाखालाच जलद उडून (rapid evaporation) वचूंक दित जाल्यार आनीकूय थंड जावन ताचो घट्ट पदार्थ जाता. ह्या घट्ट कार्बन डाय-ऑक्साइडाक 'सुको बर्फ' (dry ice) अशें म्हण्टात. हो सुको बर्फ जतनायेन हाताळचो पडटा. तो कातीक लागत जाल्यार कात हुलपता. सुको बर्फ -७८° से. तापमानांत कडनासतना उडटा (vaporizes).

कार्बन डाय-ऑक्साइड हो एक थीर वायू. तो १५००° से. इतलो तापयल्यार लेगीत तातूंतलो फकत ०.३२ टक्केच कार्बन डाय-ऑक्साइड विघटित (decompose) जाता. पंदरा टक्क्यांपरस चड कार्बन डाय-ऑक्साइड आशिल्ले हवेंत उजो पेटना, म्हूण कार्बन डाय-ऑक्साइड उजो पालोवपाखातीर वापरतात. थंड पेयां (beverages) तयार करपाक कार्बन डाय-ऑक्साइड लागता. हॉस्पिटलांनी न्यूमोनिया (pneumonia) आनी कार्बन मोनोक्साइड (carbon monoxide) वायू बाधा जाल्ल्यांखातीर कार्बन डाय-ऑक्साइड वापरतात. सुको बर्फ प्रशीतक (refrigerant) म्हूण वापरतात. सुक्या बर्फाक लागून चड थंडाय येता आनी ताचो पातळ पदार्थूय जायना. देखून, नुस्तें आनी मांसासारखे अन्नपदार्थ तिगोवन दवरपाखातीर ताचो वापर करतात. हेर संयुगां (compounds) तयार करपाखातीर कार्बन डाय-ऑक्साइड वापरतात. देखीक- मिथाईल आल्कोहॉल (methyl alcohol), मडवळ खार ($Na_2Co_3$), पापड खार ($NaHCo_3$), युरीया (urea) आदी.

कार्बन डाय-ऑक्साइड मुद्दम तयार करीनात. साकरीचें वितंचन (fermentation) करून सोरो तयार करतना आनी चुनो तयार करतना कार्बन डाय-ऑक्साइड तयार जाता. 'फ्लू' वायूंत (flue gases) आशिल्लो कार्बन डाय-ऑक्साइड वेगळावन ताचें उत्पादन करतात. प्रयोगशाळेंत हायड्रोक्लोरीक अम्ल (hydrochloric acid) आनी कॅल्शियम

कार्बोनेट (calcium carbonate) वापरुन कार्बन डाय-ऑक्साइड तयार करतात. कॅल्शियम कार्बोनेटांत हायड्रोक्लोरीक अम्ल घालतकच कार्बन डाय-ऑक्साइड वायू फसफसून भायर येता. कार्बन डाय-ऑक्साइड वायू उपरांत सिलिंडरांनी भरतात.

जनावरां आनी वनस्पत उस्वासांतल्यान कार्बन डाय-ऑक्साइड भायर सोडटात. फकत पाचवी वनस्पत दिसाची कार्बन डाय-ऑक्साइड उस्वासांतल्यान भितर घेवन अन्ननिर्मिती करता. हे क्रियेक उजवाड-संश्लेशण (photosynthesis) म्हण्डात. हे क्रियेक लागुनूच वातावरणांतलें कार्बन डाय-ऑक्साइडचें प्रमाण वाडूंक पावना. हवेंत आशिल्लो कार्बन डाय-ऑक्साइड सूर्य-उजवाडांतली कांय हुनसाण (heat energy) अंतरिक्षांत वचपापासून आडायता. ताका लागून धर्तरिवयलें तापमान सवकास वाडटा. हाका 'ग्रीन हाउस इफेक्ट' (Green House Effect) अशें म्हण्टात.

कार्बन डाय-ऑक्साइड वायू चुन्याचे निवळेंत (calcium hydroxide solution or lime water) सोडल्यार निवळी दुदाभशेन धवीच जाता. पेटती मेणवात कार्बन डाय-ऑक्साइड वायूच्या संपर्कांत येतकच पालवता, पूण पेटतो 'मॅग्नेशियम' (magnesium) मात पालवना. ह्यो क्रिया कार्बन डाय-ऑक्साइड वायूची पारख (confirmation) करपाखातीर वापरतात.

- प्रा. प्रेमानंद फडते

## कार्बोटकार, नवसो बाबू:

(जल्मः ११ मार्च १९०९, मयें-दिवचल).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १९४७ वर्सा मेरेन तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आसलो. गोंय सुटके उपरांत तो भारतीय राष्ट्रीय कॉंग्रेस कमिटीचो वांगडी जालो. सुटके झुजारी आत्माराम मयेंकार हाच्या फुडारपणाखाल तो वावर करतालो. १९४५ वर्सा मयें वाठारांत जाल्ले 'शेतकरी चळवळींत' ताणें वांटो घेतिल्लो. १९४७ वर्सा पोलिसांनी ताका अटक केली आनी स म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फर्मायल्ली, पूण ताका णव म्हयने बंदखणींत दवरलो. १९४८ वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. उपरांत तो समाजीक आनी राजकी वावर करूंक लागलो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कार्लफेल्ड्ट, एरिक ॲक्सल:

(जल्मः २० जुलय १८६४, फोल्कार्ना-स्वीडन; मरणः ८ एप्रिल १९३१, स्टॉकहोम).

स्वीडीश भावकवी. ताचो जल्म एका शेतकामती कुटुंबांत जालो. उप्साला विद्यापीठांतल्यान ताणें तत्त्वगिन्यानाची पदवी घेतली (१८९८). कांय काळ शिक्षकाची नोकरी करून ताणें ग्रंथपालाचो वेवसाय सुरू केलो. ताचें चडशें काव्य प्रादेशिक स्वरुपाचें आसा. डालार्नाच्या वाठारांतलो सैम आनी लोकजीण- खास करून शेतकामती जीण, ताणें आपले कवितेंतल्यान सोबीतपणान पितारल्या.

ताणें बरयल्लें चडशें काव्य ६ खंडांनी उजवाडाक आयलां: Vildmarksloch Kaerlkvisor (1895, songs of Wilderness and of Love), Fridolins visor (1898, Fridolin's Songs), Fridolins lustgard (1901, Fridolin's Pleasure Garden), Flora och Bellona (1918), Hosthorn (1927, The Horn of Automn). Arcadia Borealis (Selected poems of Erik Axel Karlfeldt 1938) हो ताचो कवितांझेलो इंग्लीश भाशेंत उजवाडाक आयलो. १९०४ त, तो स्वीडीश अकॅडमीचेर वेंचून आयलो. १९१२ त, तो हे अकादेमीचो स्थायी सचिव जालो. १९१८ त, ताका साहित्याखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार दिवपाचो थारायल्लो पूण ताणें तो न्हयकारलो. देखून, १९३१ त तो भोवमान ताका मरणाउपरांत दिलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कार्वर, जॉर्ज वॉशिंगटन:

(जल्मः १८६४, डायमंड ग्रोव्ह- मिसुरी, अमेरिका; मरणः ५ जानेवारी १९४३).

एक अमेरिकन शेती-रसायनशास्त्रज्ञ. हो जल्मान निग्रो आसलो. हाचें भुरगेंपण खूब कश्टांत गेलें. कॅन्सस स्टेट मदले हायलंड कॉलेजींत ताका शिक्षणाखातीर दिल्लो प्रवेश तो निग्रो म्हूण कळटकच न्हयकारिल्लो. मागीर तो शिक्षणाचो नाद सोडून अस्तंतेवटेन गेलो. थंय ताणें १६० एकर जमीन मेळयली आनी शेतकीचेर जायजायते विंगड विंगड प्रयोग केले. फुडें इंडिया नोला हे संस्थेंत ताका प्रवेश मेळ्ळो. शेतकीशास्त्र आनी वनस्पतीशास्त्राचो अभ्यास ताणें हे संस्थेंत केलो. प्राध्यापक म्हूण हो पयलो निग्रो संशोधक, विद्यापीठांत शिकोवपाक आनी संशोधन करपाक लागलो. बटाट आनी मसमी भिकणां हे ताच्या संशोधनाचे खास विशय आसले. ताच्या ह्या संशोधनाक लागून सिंप्सन कॉलेजीन ताका 'डॉक्टरेट' दिवन ताचो भोवमान केलो. लंडनाचे रॉयल सोसायटीचो तो वांगडी जालो. ताणें आपली पुराय संपत्ती शास्त्रीय संशोधनाखातीर दिल्ली. ताका विंगड विंगड संस्था आनी विद्यापीठां हांचेकडल्यान जायते भोवमान आनी मानादीक पदव्यो फाव जाल्यात. तातूंत स्पिनगार्न पदक, रुझवेल्ट पदक, रॉचेस्टर विद्यापीठाची डॉक्टरेट पदवी हांचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## कालभैरव:

एक दैवत. अष्टभैरवांमदलो एक. हाका 'काशीचो कोतवाल' म्हण्टात. शंकराचे तिडकींतल्यान ताची उत्पत्ती जाली, अशें म्हण्टात. शंकरान ब्रह्मदेवाचें पांचवें मस्तक कालभैरवाच्या हातान कापून उडयलें. कालभैरवान तें मस्तक आपल्या दाव्या हाताच्या नाखटान कापलें. उपरांत शंकरान कालभैरवाक काशी गांवांत रावपाची आज्ञा केली. काशी यात्रेक जो पावता, ताणें पयलीं कालभैरवाचें दर्शन घेवंक जाय. काशीयात्रेसावन परत येतना हाताक जो काळ्या रंगाचो दोरो बांदतात, तो दोरो कालभैरवाचो आसता. कालभैरवाची अशी प्रार्थना करतात:

कपाल मालिका कान्तं ज्वाला पावक लोचनम् ।
कपाल घरमत्युग्रं कलये कालभैरवम् ।

अर्थः रुंद माळांनी सोबीत, जाच्या दोळ्यांतल्यान उज्याचे लोळ भायर सरतात, जाच्या हातांत कपाल आसा आनी जो अती उग्र आसा, अशा कालभैरवाक हांव वंदन करतां.

उज्जैनसावन तीन मैलांचेर भैरवगढ नांवाचो एक कोट आसा. त्या कोटांत कालभैरवाचें व्हडलें देवूळ आसा. त्या देवळांत आशिल्ली कालभैरवाची मूर्त व्हड आनी ओडलायणी आसा. कालभैरवाच्या व्रताक कालाष्टमी म्हण्टात. तें व्रत सूर्य उदेतकच अठरा घटकांसावन चोवीस घटकां मेरेनच्या वेळांत करतात. आश्विन कृष्ण अष्टमीक हें व्रत करतात. कार्तिक कृष्ण अष्टम आनी भाद्रपद कृष्ण अष्टम ह्या दिसा वा तिथींकूय हें व्रत करतात. हें व्रत करप्यांनी पुराय दीस उपास करून रातीकडेन चंद्राचो उदय जातकच वण्टीर शिव आनी चंद्र काडून तांची पूजा करपाक जाय. हे पूजेंत आठ दिवे लायतात. आठ पात्रांनी वा आयदनांनी वडे, पुरयो, पायस आनी हेर खावपाचे जिनस दवरून ताचो निवेद्य दाखयतात. ही पूजा कालभैरव-शिवाची आसता. ही पूजा करतना ध्यानमंत्र असो म्हण्टात:

'अष्टकालं महाकालं भैरवाष्ट गणाचितम् ।
चंद्रमासहितंशुक्लं मृत्युंजय नमोस्तु ते ।।

अर्थः अष्टकाल, महाकाल, अष्टभैरव आनी चंद्रमा हांणी युक्त आनी शुक्ल अशा मृत्युंजया, तुका म्हजो नमस्कार.

गोंयांत कालभैरवाचें देवूळ, पेडणें म्हालांतल्या धारगळ गांवांत आसा. पांचशीं वर्सां आदी तें तिसवाडी म्हालांतल्या दिवाडी गांवांत आसलें. इ. स. १५१० त गोंयांत पोर्तुगेज लोकांचें राज्य सुरू जालें. तांणी थोड्याच वर्सांनी हिंदु धर्मीय प्रजेचें क्रिस्तीकरण सुरू केलें. ताका लागून कालभैरव देवाचें ताच्या कुळावी लोकांनी दिवचल म्हालाच्या नार्वे गांवांत स्थलांतर केलें. थंय सावन उपरांत कांय वर्सांनी कोलवाळ गांवांत व्हेलें. थंय बाटाबाटीचो उपद्रव जावपाच्या भयान पेडणें म्हालांतल्या धारगळ गांवांत व्हरून थंय देवूळ बांदलें (इ.स. १५६० ते १५६७). ह्या देवळाची

थापणूक गौड सारस्वत ब्राह्मण आनी स्मार्त संप्रदायान केली. स्मार्त सांप्रदायाचें मूळ 'शेणवी कोलवाळकार' ह्या उपनांवाचें आसलें. उपरांत त्या नांवांत बदल जावन शेणवी कोलवाळकार, शेणवी महात्मे, शेणवी खाजनये अशीं उपनांवां जालीं. तेभायर मेणकुरकार, निरोखेकार, ओरसकार, परवडेकार अशीं उपनांवां वापरपी कुळावी म्हाजन आसात. शेणवी खाजनये ही पिळगी वैष्णव संप्रदायांतली मानतात.

- विनायक नारायण शेणवी धुमे

**कालिकत:** केरळ राज्यांतल्या कोझिकोडे ह्या जिल्ह्याचें मुखेल ठाणें. तेचपरी भारताचे अस्तंत दर्यादेगेवेलें एक मुखेल आनी म्हत्वाचें बंदर. लोकसंख्याः ५,४६,००० (१९८१). आवांठः ३०.६१ चौ. किमी. मंगळूरसावन हें शार दक्षिणेक २१९ किमी. अंतराचेर आसा.

कालिकत शाराचें मूळ नांव कोझिकोडे. शेंकड्यांत त्रिवेंद्रमाच्या बादशहान, आपल्या नौदलाच्या अधिकाऱ्यांक, णवव्या कावळ्यांचें आड्डप आयकूंक येता तितलो ह्या वाठाराचो जागो दिलो. देखूनूच ह्या वाठाराक 'कोळीकोडे' वा 'कोझिकोडे' म्हण्टात. कल्लाई न्हंयचे देगेवेलो कल्लिकोट आनी ताचे भोंवतणी आशिल्लें हें शार देखून, ह्या शाराक 'कालिकत' हें नांव पडलें, अशें म्हण्टात. तामुरी- समातीरी- सामोरीन हे हांगाचे मुखेली. बिजापूरच्या आदिलशाहाचे ते मांडलिक आशिल्ले. तेराव्या शेंकड्यासावन कालिकत हें शार अरबी लोकांच्या वेपाराचें मुखेल केंद्र आशिल्लें.

१४९८ त वास्को-द-गामा हो पोर्तुगेज दर्यावर्दी ह्या बंदराचेर देंविल्लो. भारतांत पोर्तुगेज सत्ता प्रस्थापित करपा फाटल्यान ह्या मनशाच्या ह्या पयल्या प्रवेशाक खूब म्हत्व आसा. १७६६-८९ त जाल्ल्या इंग्लीश-म्हैसूरकार झुजांत कालिकत शाराचें बरेंच लुकसाण जालें. फुडें १७९२ त हें शार ब्रिटिशांकडेन आयलें. सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांत पोर्तुगेज तशेंच ब्रिटिशांनी ह्या शारांत वखारी सुरू केल्यो.

भोंवतणच्या वाठारांत वनसंपत्ती आनी कापूस भरपूर आशिल्ल्यान कालिकत शाराची वेपारी केंद्र म्हूण खूब उदरगत जाल्या. हांगा हातमागाचें उंचेल्या पांवड्याचें काम चलता. देखून पोर्तुगेजांनी ताका 'कालिको' हें नांव दिल्लें.

हांगा आशिल्लो लांकडाचो डेपो भारतांत सगळ्यांत व्हड मानतात. हांगाचे लोक कापड, होजिअरी, प्लायवूड, लांकडाकाम, दोर, काथ्याच्यो वस्तू, शेंदच्यो, विद्युत् उपकरणां, नळे आनी नुस्त्याचोय धंदो करतात. त्या खेरीज नाल्ल, नुस्तें, च्या, काफी, मसाल्याच्यो वस्तू आनी रानांतलें उत्पन्न हांची हांगासून निर्यात जाता. १९६८ त हांगा कालिकत विद्यापीठाची थापणूक जाली. तशेंच वनस्पत, सागरविज्ञान, रसायन, अभियांत्रिकी ह्या शाखांच्यो संस्था कालिकत शारांत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**कालिदास:** कविकुलगुरु असो भोवमान जाल्लो हो संस्कृत भाशेंतलो नामनेचो महाकवी. सर विल्यम जोन्स हाणें ताका भारताचो शेक्सपीअर अशी पदवी दिल्या. हेर अस्तंतेकडल्या विचारवंतांनीय ताची बरीच तोखणाय केल्या.

कालिदासाच्या चरित्राविशींची पुराय आनी पध्दतशीर म्हायती मेळना. विंगड विंगड विद्वानांनी ताचो जल्मकाळ वेगवेगळो सांगला. कांय जाणांच्या मतान तो इ. स. प. दुसऱ्या शतमानांत जल्मला जाल्यार कांय जाण ताचो जल्मकाळ चवथ्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत आसा, अशें म्हण्टात. कांय जाणकार तो विक्रमादित्य राजाच्या दरबारांतल्या णव रत्नांमदलो (बुदवंत) एक आशिल्लो, अशें मानतात. कालिदासाच्या चरित्राविशीं अश्यो कितल्योश्योच दंतकथा आसात आनी ताका लागून ताची खरी म्हायती मेळप सामकेंच कठीण जाता. तो खंय जल्मल्लो हीय एक वादाची गजाल जावन आसा. संशोधकांच्या मतान ताची जल्मभूंय काश्मीर, बंगाल, विदिशा, उज्जयनी हांच्यांतली खंयचीय एक आसूं येता. ताच्या साहित्यांतल्यान उक्तो जावपी उज्जयनी शारावयलो उपाट मोग मतींत घेतल्यार ताची जल्मभूंय तीच आसूंक जाय, अशें दिसता.

कालिदास हो विक्रमादित्याचो जांवय आशिल्लो, अशेंय म्हण्टात. राजकुंवरी प्रियंगमंजरीचें लग्न कांय झगड्यांक लागून एका गोरवां राखपी अडाणी तरणाट्याकडेन लावन दितात. बायलेकडल्यान त्या तरणाट्याचो अपमान जाल्ल्यान तो तिडकीन कालीमातेची आराधना करून गिन्यान हातासता. हो अडाणी गोरवां राखपी तरणाटो म्हळ्यारच कालिदास, अशीय एक काणी आसा.

कालिदासाक केन्ना मरण आयलें हाचेविशीं पुराय म्हायती मेळना. लंकेंत कुमारदासाच्या दरबारांत दूत म्हूण आसतना ताचें एके वेश्येलागीं येवप-वचप आशिल्लें. हे वेश्येन ताका विख घालून मारलो, अशें म्हण्टात.

'रघुवंश', 'कुमारसंभव' हीं महाकाव्यां; 'ऋतुसंहार', 'मेघदूत' हीं खंडकाव्यां; 'मालविकाग्निमित्र'; 'विक्रमौर्वशीय' आनी 'अभिज्ञान शाकुंतल' हीं नाटकां अशी ताची बरपावळ आसा. हे भायर ताणें कुंतलेश्वरदौत्य नांवाचो ग्रंथूय बरयला, पूण तो आयज सांपडना. कालिदासाची ग्रंथरचणूक म्हळ्यार संस्कृत भाशेक मेळिल्लें एक गिरेस्त दायज आसा. ताच्या ग्रंथांतल्यान ताच्या काळावयले संस्कृतायेचें आनी समृध्दीचें दर्शन जाता. भाशेवयलें ताचें प्रभुत्व ताच्या साहित्यांतल्यान दिसून येता. कठीण उतरां, लांबलचक समास वा क्लिश्ट वाक्यरचणूक हे दोश नाशिल्ल्यान ताचे निर्मणेंतल्या संस्कृत आनी प्राकृत ह्या दोनूय भाशांक सोंपेपण आयलां. ताचे भाशेंत सहज सोबीतकाय दिसून येता. ताच्या साहित्यांतल्यान ताची विद्वत्ता आनी रसिकताय दिसून येता. शृंगार आनी कारुण्य ह्या दोनूय रसांची भरसण कालिदासान खाशेले शैलींत बरोवन दवरल्या. तरांतरंच्या भाशालंकारांचो फाव त्या प्रमाणांत उपेग करून लालित्य आनी माधुर्य ह्या गुणांवांगडाच संयम हो गुणूय ताच्या साहित्यांतल्यान बरेतरेन दिश्टी पडटा. ऋतुसंहारांतल्यान ताची बारीकसाणीची नदर आनी प्रभावीपणान केल्लें सैमाचें चित्रण स्पश्ट दिसून येता.

व्यक्तिचित्रण करपाचे ताचे असादारण तांकीक लागून दुष्यंत, शकुंतला, प्रियंवदा, यक्ष, यक्षपत्नी, मालविका, धारिणी, इरावती ह्या सारक्यो व्यक्तिरेखा आयज मेरेन अज्रंवर जावन उरल्यात.

- दिलीप बोरकार

**काली:** हिंदूंची एक देवी. शिवाची बायल आदिमाया हिचें उग्र रूप. तिचे उत्पत्तीविशीं जायत्यो कथा आसात. १. चंडवधावेळार राकेसाकडेन झूज करता आसतना तिचो वर्ण काळो पडलो आनी तिच्यो भोंवयो वयर सरल्यो. तेन्नाच तातूंतल्यान अस्त्रशस्त्रान भरिल्ली काळे आनी कुरुप कालीची उत्पत्ती जाली (मार्कंडेय पुराण ७.५). अस्त्रशस्त्रान भरिल्ले देवीची उत्पत्तीची कल्पना युरोपांतूय दिसता. युनानी देवी मिनर्वाची उत्पत्ती अशीच जाल्या. २. बृहन्नीलतंत्रांत कालीचे उत्पत्तीची दुसरी एक कथा दिल्या. देवाच्या आनी असुरांच्या झुजांत देवांक अपेस आयलें, तेन्ना देव ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश हांकां शरण गेले. पूण ह्या तिगांयनीय आपली शक्त उणी लेखून महाकालीची प्रार्थना केली. तेन्ना महाकालीन बारा देवींची उत्पत्ती केली. तातूंतली काली ही पयली देवी. ३. दारुकासूर नांवाच्या एका राकेसाक बायलेच्याच हातान मरण आयिल्लें. ताका मारपाखातीर शिवान आपल्या गळ्यांतल्या विखांतल्यान कालीची उत्पत्ती केली (लिंग पुराण ३९.७२). शंकराक काल म्हण्टात. ह्या कालाची ती बायल तेचपरी तिचो रंगूय काळो, देखून तिका काली हें नांव मेळ्ळें.

पुराणांत हे देवीचें वर्णन अशें केलां: रंगान काळी, चार हातांची, एका हातांत तलवार आनी दुसऱ्या हातांत मनशाचें मुंडकें, गळ्यांत मुंडक्यांची माळ, कमराक मेल्ल्या मनशांच्या हातांचो पटो, दोळे तांबडे गुंज, जीब तोंडांतल्यान भायर, तोंड आनी काळीज रक्तान माखिल्लें, ती एक पांय शिवाचे छातयेर आनी दुसरो पांय आपले दुसरे मांडयेर दवरून उबी आसा. कालीतंत्रांत मड्याचेर उबी, चार हातांची, मनशांची मुंडकीं गळ्यांत घाल्ली आनी मसुंडींत रावपी, अशें तिचें वर्णन मेळटा.

पूर्विल्ल्या तशेंच आर्विल्ल्या ग्रंथांत कालीचीं वेगवेगळीं रूपां मेळटात- महाकाली, दक्षिणकाली, भद्रकाली, स्मशानकाली, रक्षाकाली, सिध्दीकाली, कामकला काली, धनकालिका, चंडकालिका.



**कालीमाता**

कालीपूजेचें वर्णन कालीतंत्र, श्यामारहस्य, बृहन्नीलतंत्र, देवीभागवत, कालिकापुराण आदी ग्रंथांनी सविस्तर दिल्लें आसा. हे पूजेंत सुरयेक बरेंच म्हत्व आसा. सुर्वेक ती सुरी मंत्रान शुध्द करून उपरांत तिचो वापर करतात. कालीपूजा कालीयंत्राचेर करतात. हें यंत्र त्रिकोनी, पंचकोनी वा णवकोनी आसता, अशें काली कोपनिषदांत सांगलां. कांयकडेन हें यंत्र पंदरा कोनांचेंय आसता. कालीपूजा कार्तिक कृष्णपक्षांत चडकरून रातची सांगल्या. हे पूजेंत कालीस्तोत्र, कवच, शतनाम आनी सहस्त्र नाम हे विधी सांगल्यात.

कालीक मनशांचो तशेंच जनावरांचो बळी दिवपाची चाल आसा. तिका बोकड आनी रेड्याच्या रगत-मासाचो निवेद लागता. कलकत्ता हांगाच्या कालीघाटाचेर आशिल्ल्या काली मंदिराची शक्तिपीठ म्हूण खूब नामना आसा. जादू, घाडीपणा करपी तशेंच तंत्रशक्तीचो उपेग करपी वाममार्गी पंथीय लोकांची काली हेंच मुखेल दैवत आसा. बंगालांत ह्या विद्यांक चड म्हत्व आसून थंय कालीक बरेंच म्हत्व दितात. काली आनी दुर्गा हांच्यात सारकेपण आसून त्यो सादारणपणान एकूच मानतात. त्यो आर्यांमदल्यो देवता आसूंक जाय अशें कांय विद्वान मानतात. शबर, बर्बर, पुलिंद आदी रानवट जमाती दुर्गेची उपासना करून तिका सोरो आनी मांसाचो निवेद्य दाखयतात, अशें महाभारतांत म्हळां.

तमिळांत कालीक 'कोवराई' म्हण्टात आनी पयलीं तिका मनशाचो बळी दिताले. दक्षिण भारतांत 'कालीअम्मा' नांवाचे देवतेक भजतात. तिका जनावरांचो बळी दितात. आसामांतल्यो वन्य जमाती कालीक 'कालीबारी' म्हण्टात. तिचीं जायतीं देवळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**कालूं:** (पळेयातः तिसऱ्यो).

**कालेलकर, काकासायबः** (जल्मः १ डिसेंबर १८८५, सातारा-महाराष्ट्र, मरणः २१ ऑगस्ट १९८१, नवी दिल्ली).

नामनेचो गांधीवादी, गुजराती साहित्यीक आनी शिक्षणतज्ञ. ताचें पुराय नांव दत्तात्रेय बाळकृष्ण कालेलकार, पूण काका कालेलकार ह्या नांवांनूच लोक ताका चड वळखतात. बेळगांव वाठारालागसार आशिल्लो बेळगुंदी हो ताचो मूळ गांव. १९०७ वर्सा पुण्याच्या फर्ग्युसन कॉलेजींत ताणें बी. ए. ची पदवी घेतली. उपरांत तो कायद्याचें शिक्षण घेवंक लागलो. एलूएल्.बी च्या दुसऱ्या वर्साक आसतना तो राश्ट्रकार्यांत सरलो. १९०९, वर्सा सावन तो मुंबयच्या 'राष्ट्रमत' दिसाळ्यांत काम करूंक लागलो. १९१२ वर्सा ताणें हिमालयाची यात्रा केली. १९१५ वर्सा ताची शांतिनिकेतन हांगा महात्मा गांधीलागीं भेट जाली आनी तेन्नाच्यान तो गांधीजीचो अनुयायी जालो. १९१७ वर्सा तो गांधीजीच्या साबरमती आश्रमांत रावंक गेलो. १९२० वर्सा सावन ताणें गुजरातींत बरोवंक सुरवात केली. १९२८ वर्सा गुजरात विद्यापीठाचो तो कुलगुरु जालो. ह्याच काळांत १९१९ वर्सा ताणें गुजराती भाशेचो पयलो अधिकृत शब्दकोश 'जोडणी कोश' तयार करून म्हत्वाचें कार्य केलें. १९३७ वर्सा तो वर्धा वाठारांत आशिल्ल्या 'सेवाग्रामांत' रावपाक गेलो. १९४८ वर्सा तो दिल्ली शारांत रावपाक गेलो. भारताच्या स्वतंत्रताय चळवळींत वांटो घेवन ताणें जायते फावट बंदखण भोगल्या. १९५७ वर्सा मुंबय शारांत जाल्ले, अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेच्या सव्या अधिवेशनाचो काकासाहेब उद्घाटक आशिल्लो. त्या वेळार भाशण करतना काकासाहेबान सांगलें की, 'कोंकणी ही स्वतंत्र भास आसा आनी गोंय स्वतंत्र जातकच गोंयची राजभास कोंकणी आसूंक जाय.'

काकासाहेब कालेलकारान भारताची राश्ट्रभाषा हिंदी आनी हिंदुस्थानीचो प्रचार, राश्ट्रीय शिक्षणाची उदरगत आनी सगळ्या धर्मसमन्वयाचो प्रचार अशीं तीन म्हत्वाचीं कामां केलीं. हे पासत ताणें सगळ्या भारतांत आनी उपरांत पुराय संवसारांत भोंवडी केली. हे भोंवडेचीं वर्णनां ताणें सुंदरतेरेन बरयल्यांत. तातूंतलीं कांय पुस्तकां अशीं आसात. 'हिमालयनो प्रवास'- १९२४, 'ब्रह्मदेशनो प्रवास'- १९३१, 'पूर्व अफ्रीकामां'- १९५१, 'उगमणो देशः जापान'- १९५८ ह्या पुस्तकां वांगडा ताणें बरयल्ल्या स्मरणयात्रा आनी लोकमाता- १९३४, जीवननो आनंद- १९३६ ह्या ललित ग्रंथांक खूब नामना मेळ्ळ्या. ताची काव्यमय प्रसन्न शैली, जिणेचें सार केळयल्ली विचारसरणी आनी खोल चिंतन हांचे खातीर ताच्या साहित्याक सासणाचें स्वरूप प्राप्त जालां. 'हिंडलग्याचा प्रसाद' (१९३४), 'वनशोभा' (१९४४), 'खेळकर पानें' (१९६४) अशीं कांय मराठी पुस्तकां ताणें बरयल्यांत. 'पुण्यभूमि गोमंतक' (१९५८) ह्या मराठी निबंध संग्रहांत ताणें गोवाविशयक प्रस्नांची चर्चा केल्या. तेचपरी ताच्या गुजराती साहित्यांतलें कांय साहित्य मराठी भाशेंत अणकारलां. हिंदी आनी इंग्लीश भाशेंतूय ताचे कांय ग्रंथ बरयल्ले आसात.

१९५२ आनी १९५८ वर्सा ताची राश्ट्रपतीचे वतीन राज्यसभेचेर नेमणूक जाली. १९५३ वर्सा अनुसूचित जमातींच्या आयोगाचो ताका अध्यक्ष नेमलो. १९५९ वर्सा अहमदाबाद हांगासर भरिल्ल्या गुजराती साहित्य परिषदेच्या अधिवेशनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९६० वर्सा केंद्रीय सरकारान थापणूक केल्या हिंदी विश्वकोशाचो सदस्य म्हूण ताका वेंचून काडलो. १९६४ वर्सा ताका 'पद्मविभूषण' ही पदवी मेळ्ळी. १९६६ वर्सा ताच्या 'जीवनव्यवस्था' ह्या निबंधसंग्रहाक साहित्य अकादेमीचें इनाम फाव जाल्लें. १३ जुलय १९७२ दिसा ताका साहित्य अकादमीची 'फेलोशिप' दिवन ताचो भोवमान केला. एक व्हड विचारवंत आनी जायत्या भासांचो जाणकार म्हूण लोक ताका वळखतात.

- कों. वि. सं. मं.

**कालोः** कोंकणांतलो एक पूर्विल्लो लोकनाट्यप्रकार. काल्याक

'संकासूर कालो', 'रातकालो', 'दशावतारी कालो', 'बाळक्रीडा कालो' ह्या नांवांनीय वळखतात. सादारणपणान गोंयांतय वयल्या प्रकारांक 'कालो' म्हूण वळखतात.

काल्याचो इतिहास अज्ञात आसा. पोर्तुगेज दप्तरांत मेळिल्ल्या उल्लेखांवेल्यान काल्याचो इतिहास देडशीं वर्सांपरस फाटीं वचना. फोंडें, काणकोण, सांगें, केपें आनी पेडणें ह्या म्हालांत काल्याचो व्हड नेट आसतालो. सतराव्या शतमानांत बाणावली हांगा पोर्तुगेजांनी एक देवूळ नश्ट केलें. त्यावेळार थंय कालो चलतालो असो उल्लेख पोर्तुगेज दप्तरांत मेळटा.

दशावतारी कालो, गौळणकालो, गोपाळकालो आनी चिखलकालो हे काल्याचे कांय म्हत्वाचे प्रकार आसात.

**दशावतारी कालो**: एकाद्र्या देवळासामकार वा सभामंडपांत पुराय रातभर दिवल्यो आनी दिवट्यो पेटोवन, शास्त्रशुध्द ताललयीचेर ध्रुपद धमाराचे बोल घुमोवपी हो मुखेल आद्य लोकनाट्यप्रकार आसा. कार्तिक ते फाल्गुन म्हयन्या मेरेन खंयच्याय दिसा चडशा देवळांत 'कालो' जाता. दशावतारी कालो हो देवळाच्या उत्सवाचो एक वांटो आशिल्ल्यान चडसो तो देवळा फुडले मेकळे सुवातेंत सादर करतात. फाटल्यान फकत एकूच धवो पड्डो आसता. ह्या धव्या पड्ड्याफाटल्यानसून सवंगां येतात आनी पड्ड्याफुडल्यान नाचून वतात. दशावतारी काल्याचें मूळ कर्नाटकाच्या यक्षगानांत आसा अशें कांय जाणांचें मत आसा. कांय जाणांक हें मत मान्य ना. हेर लोक नाट्याप्रमाण दशावतारी नाटकाचो मूळ गाभो थळावो आनी हेर प्रांतांतल्या लोकवेदाचो ताचेर प्रभाव पडला आसूंये. पयलीं कालेकरी लोक हो कालो मनयताले. आतां गांवचेच लोक परंपरा राखपाखातीर हो उत्सव मनयतात. गणपती, सरस्वती, ऋध्दि-सिध्दी, आनी एकाद्रें पुराण हें काल्याचें मुखेल सूत्र कायम आसता. काल्याची सादारण पध्दत अशी आसता:

सुर्वेक हरदास वा सूत्रधार आंगभर धवो झगो, माथ्याक पगडी, कपलाक उबें गंध, हातांत झांज अशा भेसान मिरवणुकीन देवळांत येता. ताच्या वांगडा तालवादक, गायक आनी दोन मृदंगी आसतात. पयलींच्या काळांत हरदासूय 'नाच' करतालो. ताका 'भोंवर' म्हण्टाले. आतां हरदासालें मंगलाचरण घटके भितर सोंपता. मंगलाचरण सोंपतकच दोनय मृदंगांचे सवाल जबाब करीत सुमार अर्दवर एके लयींत वादन चलता. भट येतकच मृदंग खिणापुरतें थांबता. 'श्रीमन्महा गणाधिपतये नमः' अशा गजरांत ऋध्दि-सिध्दीसयत रूपडें घाल्लो गणपती येता आनी नाचता. गणपतीचो हात सोडून ऋध्दि-सिध्दी कांय फावट मुखार येवन नाचतात. गणपतीची पूजा करचेआदीं भट आनी हरदास वा सूत्रधारामदीं अर्दवर सुमार शाब्दिक जुगलबंदी चलता. विडंबनात्मक आनी अश्लील उतरांची तातूंत खूब भरसण आसता. जुगलबंदी सोंपतकच गणपतीची पूजा जाता. भट गणपतीक गाराणें घालता आनी उत्सव बरेभशेन जावंचो म्हूण आळयता. ताचे फाटल्यान सरस्वती येवन नाचता. ती नाचून वतकच एकाद्रेवेळ हरदासालें पुराण जाता. निमाणो संकासूर येता. ताचेवांगडा चिमा, पोकळा हे वांगडी आसतात. हे सगळे माचयेर येवन धुमशेणां कांडटात, बोवाळ करतात आनी नाचतात. माचयेर संकासूर आनी हरदासाभितर अश्लील उतरांची जुगलबंदी चलता. तातूंत दिसपट्टे जीणेंत घडपी घडणुकांचेर उपरोधीक शैलींतल्यान विडंबन केल्लें आसता. माचयेर गोंदोळ करपी संकासुराचेर, ब्रह्मदेवाले वेद चोरून व्हेल्यात असो आरोप आसता; संकासूर गुन्यांव मानपाक तयार जायना. तेन्ना मत्स्यावतारांतलो भगवान विष्णु ताका झुजाक पाचारता. ह्या झुजांत विष्णु संकासूराक जिवेशीं मारता. हांगा काल्याचो पयलो वांटो सोंपता.

दुसऱ्या वांट्यांत धा अवतारांमदल्या खंयच्याय एका अवताराचेर आदारीत कथानक घेवन नृत्य, संगीत आनी संवाद ह्या तीन माध्यमावरवीं संगीतनाटकाच्या रुपान लोकांसामकार सादर करतात. आदल्या काळांत धाय अवतारांतलें कथानक सादर करताले. सद्या एक दोन अवतारांचेर भागयतात. दशावतारी काल्याचें लिखित अशें कथानक नासता. सवंगी कथानकाक फाव ते संवाद, भाशण आनी गीतां म्हण्टा आनी ताका पूरक अभिनय करता.

**गौळणकालो**: कृष्णकथेच्या आदारान सादर केल्ल्या नृत्यनाटकाक 'गौळणकालो' म्हण्टात. कोंकणांत खास करून दक्षिण रत्नागिरींत 'धंयकालो' म्हूण ह्या काल्याची नामना आसा. थंयच्यान तो 'पेडण्यांत' पावलो. सादारणपणान दशावतारी काल्याच्या दुसऱ्या दिसा दनपरां 'गौळणकालो' मनयतात. गौळणकाल्याखातीर खास अशी रंगमाची नासता. कालो जावपाचे सुवातीर दोन पेटयिल्ल्यो दिवल्यो दवरिल्ल्यो आसतात. थंय हो कालो जाता. हरदास, कृष्ण, यशोदा, राधा, गोपी, पेंदो आनी ताचे वांगडी हीं गौळणकाल्यांतलीं मुखेल सवंगां. पयलीं संगीताची साथ दिवपाक मृदंग, सारंगी आसताली. आतां तबलें, पेटी आसता.

थारायिल्ल्या वेळार गौळणकाल्यांतलीं सवंगां लोकांमदल्यान वाट काडीत थरावीक सुवातेर येतात आनी काल्याक सुरवात जाता. सुर्वेक हरदास सदांचे पध्दतीन काल्याक सुरवात करता. ताचे फाटल्यान गोपालकृष्ण येता. उपरांत गोपी आनी हेर वांगडी येतात. हे सगळे नाचपाक-गावपाक सुरवात करतात. हातूंत हरदास कुशीक उरता पूण कथेक रंग चडटा. कथेंतलीं पात्रां वीस वर्सां सकयलीं आसतात. राधा मात कृष्णापरस व्हड आसता. गौळणकाल्यांत नाट्यगीत, खानदानी शास्त्रीय संगीत, हरदासाले अभंग, साकी, दिंडी, लावणी, गोपिकांची संघगीतां, राधाकृष्णालीं द्वंद्वगीतां, कृष्णपेंद्यालीं संवादगीतां, कृष्णाच्या वांगड्यालीं लुडबीं बडबडगीतां हांचो सोबीत मेळ जाता. काल्याचे धंयाच्यो हांडयो फोडटात. सद्या हे सगळे विधी नांवापुरते 'भोगावळ' म्हूण जातात. हरदास आपल्या आख्यानांतच सगळें सांगता आनी कालो सोंपता.

गौळणकाल्यांतलो नृत्यप्रकार 'रासगरबा' पध्दतींत मोडटा. आर्विल्लें सिनेमासंगीत, कथ्थक, भरतनाट्यम आनी मणिपुरी नृत्य हातूंतल्यान जायत्यो बऱ्यो गजाली गौळणकाल्यांत घेतल्यात. देवदासी समाजांतल्या लोकांनी केल्लो हो कालो ऊंच वर्गांतल्या लोकांचें प्रतिनिधित्व करता. इतलें आसूनय उंचेलो वर्ग काल्यासावन पयसावला. म्हाड्डोळ, माशेल आनी हेर दोन चार गांवांनी हो कालो जाता.

**गोपाळकालो**: दशावताराउपरांत फांतोडेर हो कालो मनयतात. गोपाळकालो करूंक जमिल्ले लोक दोन पंगड करून उबे रावतात. मृदंगाच्या तालार गणपतीस्तवन जाता. जमिल्ल्या लोकांमदलो एकाद्रो जाणटो सूत्रसंचलन करता. श्लोक, होंवयो, पदां ह्या माध्यमांतल्यान काल्याच्या गायनाक सुरवात जाता. गोपाळकाल्याची काणी अशी आसता-

णव लाख गोपाळ दोन वांटे करून खेळ खेळटात. त्यावेळार कंसाचो भाव प्रलंभासुर गोपाळाच्या भेसांत तांचेमदीं भरसता. श्रीकृष्ण ताका वळखता आनी ताचे वांगडा विंगडविंगड खेळ करून ताका हरयता. सद्या लोकांच्या दोन पंगडांतल्या एका पंगडांतल्यान कृष्ण, बलराम आनी दुसऱ्या पंगडांतल्यान प्रलंभासूर एकामेकांसामकार येतात. दोनूय वटेन एकामेकांक कूट प्रस्न विचारून हरोवपाचो यत्न जाता. भरताच्या नाट्य शास्त्रांतल्या उल्लेखांप्रमाण हें चलता. हे कूटप्रस्न आनी तांची जाप गावन, वाजोवन आनी नाचून सादर करतात. ते सोंपतकच प्रलंभासूर बलरामाक खांद्यार उखलून घेवन पळटा. बलराम प्रलंभासूराचे तकलेर मूठ मारून ताका जिवेशीं मारता. निमणे धंयाचे हांडे फोडून गोपाळकालो सोंपता. गोपाळकाल्यांतली कूट प्रस्नाची भास 'प्राकृत' आसता. ताचेर कोंकणी आनी मराठी भाशेचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. खेळांतले कूट प्रस्न आनी जापो रचपी अशिक्षित आसले तरी तांचो पांवडो उंचेल्या साहित्याच्या तोलामोलाचो आसता.

गोपाळ काल्यांतले कांय कूट प्रस्न अशे आसात.

नाडी झिजली कधी वाढली
त्याच्या गळ्यांत लावली दोरी

हात लायल्यार बोबाट मारी रे
कानोबा सांगपा त्याचे नांव

जापः घुमट

भांडयो तुरुतुरु करतालो
सिंयोर तिचे भोंवती भोंवतालो
तांबडे घालून धवें काडितालो रे
कानोबा सांगपा त्याचे नांव

जापः दातें

- कों. वि. सं. मं.

**चिखल कालोः** माशेल, सांखळे, सांगें गांवांनी गोंयांत अजूनय चिखल कालो जाता. सांग्यार चिखल कालो आशाढांतले शुध्द द्वादशीक जाता.

आशाढ म्हयन्यांतल्या उटंगारांच्या पावसांत सगळेकडेन कोणां आनी चिखल जाल्लो आसता. भर पावसांत सांजवेळच्या वेळार सगळे जाण्टें-नेण्टे, देवळाकडेन जमून रेबट करतात. धोलक्याच्या ठेक्यार रेव्यांत नाचतात आनी एकामेकांचेर चिखल उसळायतात, वेगवेगळीं नाडपेन्ना आनी खेळ ह्या चिखलांत वर्साच्यो भोगावळी म्हण करतात.

हातूंतल्यो कांय भोगावळी अश्योः

*१. प्रसाद घेवपः* सुरवातीक एक रेग घालतात. एक मनीस हातांत प्रसादा फुलां वा तुळशीची माळ घेवन लांब उडी मारता. ताचे पांय ज्या जाग्यार पडटात थंय दुसरे ताचीं पावलां दामून धरतात. मागीर तो दोनय हात जमनीक लावन जाता तितली पयस उडी मारता. उपरांत साश्टांग न्हिदून हात पावता थंय प्रसाद दवरता. मागीर एका फाटल्यान एक गडे तशेच पध्दतीन प्रसाद फुडें चलयतात. जो गडो सगळ्यांत पयस प्रसाद पावयता, ताका सगळे खोशयेन घेवन नाचतात.

*२. वाग आनी बोकडां:* दोग जाण राखणे जावन हातांतले सोटे वावडीत बोकडां राखतात. कांय भुरगीं बोकडां जातात आनी राखण्यांच्या पांयांक घट धरून 'बें बें' करीत रावतात. दोग जाण वाग जातात आनी राखण्याची नदर आनी सोटो चुकोवन एक एक बोकड ओडून काडटात. अशे तरेन सगळीं बोकडां सोंपयतात.

*३. दातें:* चौग-पांच जाण, पांयांक पांय लावन आनी हातांत हात गुथून वांटकुळेच बसतात. दुसरे दोग जाण मदीं बसून बशिल्ल्यांच्या पांयांचे आंगठे हातांनी घट धरतात. मागीर सगळे जाण खोटांचेर पेज दिवन दात्यावरी वांटकुळेच घुंवतात. घुंवतना सगळे जाण 'भल भलभले' अशें म्हण्टात. एकाच वेळार कितलींय दातीं घुंवतात.

*४. मल्लखांबः* मल्लखांबाखातीर भुरग्यांच्यो कांय जोडयो करतात. ह्यो जोडयो एकामेकांच्या खांद्यार उब्यो रावन एक खांब तयार करतात. सगळ्यांत माथ्यार एकटोच रावता. मल्लखांब चडांत चड ऊंच करपाचो यत्न करतात. तशेंच मल्लखांब्याच्या माथ्यार वयर चडटल्या भुरग्याकय खूब नामना मेळटा.

तेभायर लागोण्यांनी, आपालिपा, खो-खो, घाडी, भार, देंवचार, मोर, घोण अशे कितलेशेच तरेचे खेळ खेळटात.

हालींच्या काळांत, बिस्कुत्यो, चॉकलेटी, केळीं, लाडू हाडून ते वयलेवयर जिकून घेवपाचीय मजा करतात.

सादारण तीन वरां तरी अशेतरेच्यो भोगावळी चलतात. उपरांत नाचत गायत न्हंयचेर वतात. सादारणपणान ह्या वेळार न्हंयक हुंवार आयिल्लो आसता, तरी लेगीत न्हंयच्या हुंवाराच्या तांबड्या उदकांत गडे पेंवतात. एकामेकांचेर उदक शेंवटून मजा करतात. मागीर न्हांवन-धुंवन अनवाळ्यांनी परत देवळांत वतात. देवळांत आरती पूजा करून प्रसाद घेवन घरा वतात.

- जयंती नायक

**काव‍ळोः** मनशाच्या सहवासांत येवन राविल्लो एक पक्षी. हो पक्षी काक (कोर्व्हिडी) कुळांतलो जावन आसा. काव‍ळ्याच्यो खुबश्यो जाती आसात आनी त्यो संवसारांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांत दिश्टी पडटात. पूण दक्षिण अमेरिकेंत मात काव‍ळो दिसून येना. भारतांत काव‍ळ्याच्यो दोन जाती दिश्टी पडटात, एक घरकाव‍ळो आनी दुसरो डरकाव‍ळो. घरकाव‍ळ्याचें शास्त्रीय नांव 'कोर्व्हस स्प्लेंडेन्स' आनी काव‍ळ्याचें शास्त्रीय नांव 'कोर्व्हस मॅक्रोन्हिंकस' आसा.



काव‍ळो

घरकाव‍ळो मध्यम आकाराचो आसून ताची लांबाय सुमार ४६ सेंमी. आसता. ताचो कोर काळो आसता आनी तातूंत निळ्या, जांबळ्या आनी पांचव्या कोराची सया आसता. ताचे माने भोंवतणी गोबराकोराचो रूंद पटो आसता. ताची चोंच बरीच घट्ट आसता आनी ती ताका भक्ष्य धरपाक उपेगी पडटा. ताचे पांय आनी तोंच काळ्या कोराची आसता. ताचे दोळे गडद तपकिरी कोराचे आसून, नदर शिटूक आसता. ताचो आवाज मोटो आनी कर्कश आसता. डरकाव‍ळो पुराय काळ्या कोराचो आसता आनी ताचो आवाज घरकाव‍ळ्यापरसूय कर्कश आसता. काव‍ळो हो चोम्यांनी रावपी पक्षी. भारतांत मळाच्या वाठारांत घरकाव‍ळो दिश्टी पडटा. १२२० मी. उंचायेचेर आशिल्ल्या सगळ्या वाठारांनीय काव‍ळो आसता. तेचपरी १२२० मी. उंचाये परसूय ऊंच आशिल्ल्या (१८३० ते २१३५ मी.) वाठारांत काव‍ळे आसतात. पूण ह्या वाठारांत तापमान उणें आशिल्ल्यान वा थंय आशिल्ल्या डरकाव‍ळ्या खातीर थंय तांचें अस्तित्व कमी प्रमाणांत आसता.

घरकाव‍ळो एप्रिल ते जून म्हयन्यांत वियेता. कांय राज्यांत हो काळ फाटींफुडें आसता. नर आनी मादी दोगांय आपले घोंटेर झाडाचेर, ऊंच जाग्यार, ताळ्याचे खांचीत बांदतात. धागे, काथो, कपयो, बडयो हांचेपसून तयार केल्लो हो घोंटेर वाकडो तिकडो आसता. तातूंत मादी तांतयां घालता. नर आनी मादी उबोवपाचें आनी फुडें पिलांक भरोवपाचें काम आरतून परतून करतात. कांय वेळा कोगूळ काव‍ळ्याक फटोवन आपलीं तांतयां ताच्या घोंटेरांत घालता. तेन्ना काव‍ळो आपल्या पिलांबरोबर तांकांय खावपाक घालता आनी वाडयता.

काव‍ळो सगळें खाण खाता. तो शिटूक आनी हुशार आसता. हेर पक्षाच्या घोंटेरांतलीं तांतयां, शेतांतलीं कणसां आनी रस्त्याचेर पडिल्ली हळशीक खाता. शारांत वा गांवांत वेगवेगळ्या कारणांक लागून घाण जाता. ती घाण खावन ना करूंक काव‍ळो मनशांक उपेगी पडटा. कुशिल्लें खावन तो नितळसाण राखता. हिंदू समाजांत मेल्ल्या मनशाचो आत्मो काव‍ळ्याच्या शरीरांत रावता अशें मानतात म्हणूनच मनीस मेल्या उपरांत धाव्या दिसा दशपिंड दितात आनी काव‍ळो ह्या पिंडाक आफुडटकच तो मेल्ल्या मनशाक पावता अशें समजतात.

**संस्कृतीक संदर्भः** काव‍ळो कोरान काळो आशिल्ल्यान काळोख आनी अशुभ हांचेकडेन ताचो संबंद मानतात. तेचपरीं वातावरणाकडेन ताचो संबंद आशिल्ल्यान विधात्याचें उत्पादन सामर्थ्य आनी आध्यात्मिक शक्ती हांचें तो प्रतीक आसा असो समज आसा. निसर्गाच्या उत्पत्ती कार्यांत

महादेवाक तो उपेगी पडला अशें आदिवासीच्या कांय कथांनी वाचूक मेळटा. ताका भविश्यकाळा विशीं कळटा आनी तशी शिटकावणी तो दिता अशें मानतात. देखूनच शुभ शकुनाकडेन कावळ्याचो संबंद लायतात. बायलांचे मासिक पाळयेच्या वेळार तिचेविशीं उलयतना तिका कावळो आफुडला, अशें म्हण्टात. सकाळीं उठ्टनाच दारांत कावळो आड्डल्यार घरांत कोणूय सोयरो येतलो अशें समजतात. कावळो हो अशुभ पक्षी मानतात. तो माथ्यार बसल्यार ती अशुभ गजाल धरून तेखातीर शांती करतात. कावळ्यान सीतेची अभिलाशा धरली आनी रामान बाण मारून ताचो एक दोळो फोडलो अशी एक कथा आसा.

घरकावळ्यापरस डरकावळ्याक चड अशुभ मानतात. तो आड्डल्यार कितेतरी अशुभ घडटा अशीय एक समजूत आसा.

कों. वि. सं. मं.

**कावेरी:** दक्षिण भारतांतली एक मुखेल आनी पवित्र न्हंय. तिका 'दक्षिणेतली गंगा', अशेंय म्हण्टात. भारतीय पुराणांत हे न्हंयेक मानाची सुवात आसा.

स्कंदपुराणांत हे न्हंयेची उत्पत्ती कथा फुडले तरेन येता.

श्रीविष्णून एक चली ब्रह्मदेवाक दिली. फुडें कवेर नांवाचो एक ऋषी दक्षिणेंत ब्रह्मगिरीचेर स्वताक भुरगें जावचें म्हूण तप करपाक लागलो. कवेर ऋषीच्या तपाचेर खोशी जावन ब्रह्मदेवान आपणाक विष्णूकडल्यान मेळिल्ली चली ताका दिली. ते चलयेचें मूळ नांव 'लोपमुद्रा' आसलें. पूण कवेराची चली म्हूण उपरांत तिका 'कावेरी' हें नांव पडलें. कावेरीक हेर लोकांक आदार दिवपाची इत्सा आसली. तेखातीर तिणें खर तप करून त्रिदेवाकडल्यान न्हंयच्या रुपान रावपाचो वर मागून घेतलो.

एक फावट अगस्ती ऋषी ब्रह्मगिरीक आयिल्लो आसतना ताचे नदरेक 'कावेरी' पडली. तिच्या सोबीत रुपाचेर तो भाळ्ळो. ताणें तिका लग्न करपा संबंदी विचारलें, तेन्ना कावेरीन ताका एक अट घाली की, ताणें एक खिणय तिका सोडून रावचें न्हय. अगस्ती ऋषीन अट मान्य केली आनी तिचेवांगडा लग्न केलें. फुडें एक दीस अगस्ती ऋषी भोंवडेक वचपाक भायर सरलो आनी अशे तरेन कावेरीची अट ताणें मोडली. कावेरीन रोखडेंच न्हंयचें रूप घेतलें आनी ती दोंगरावेल्यान सकयल देंवली. अगस्ती जेन्ना आपली भोंवडी सोपोवन घरा परतलो तेन्ना ताका ही दुखेस्त गजाल कळ्ळी. ताका खूब दूखख भोगलें. ताणें तिका परत येवपाखातीर खूब विनयली. निमाणे कावेरीक अगस्तीची दया आयली. तिणें रोखडीच दोन रूपां धारण केलीं. एका रुपान ती न्हंय म्हूण व्हांवत रावली तर दुसऱ्या रुपान अगस्तीची बायल म्हूण रावली.

'मणिमेखला' ह्या महाकाव्यांत अगस्ती ऋषीन कावेरी न्हंय उत्पन्न केली, अशें म्हळां. बलरामान कावेरीची यात्रा केल्ली अशें भागवत पुराण (१०.७९.१४) सांगता. हिचे देगेर श्राध्द करचें अशें ब्रह्मांडपुराण सांगता.

इ.स. च्या पयल्या शतमानांत कारिकाळ चोळ हाणें कावेरीचेर जायते कालवे आनी मुशी बांदल्यो. चिक्कदेव राजान सतराव्या शतमानाच्या शेवटाक हे न्हंयेचेर तीन धरणां बांदलीं.

पल्लव राजांचें राज्य कावेरी न्हंयचे देगेरच आसलें. ते तिका श्रध्देन भजताले. द. भारतांतल्या शिलालेखांत कावेरीचो संबंद चोळ राजांकडेन जोडला. संघमकालीन तमिळ वाङ्मयात कावेरीची तोखणाय करप हो एक नेमच असो जावन पडिल्लो दिसता.

कावेरी न्हंय कर्नाटक राज्यांतल्या कूर्ग जिल्ह्यांत ब्रह्मगिरी दोंगराचेर १४२५ मी. उंचायेर उगम पावता. तिची लांबाय ७६० किमी. आसा. उदकाची येरादारी करपाक हे न्हंयेचो ९४,४०० चौ. किमी. वाठार वापरूं येता. सुर्वेक ही न्हंय आग्नेये वटयां व्हांवता. उपरांत ती व्हांवपाची दिका जायते फावट बदलता. पयलीं उदेंतेक, मागीर ईशान्येक, उपरांत आग्नेयेक, मेत्तुर जलाशयापयलीं कर्नाटक तामिळनाडू शीमेर नैर्ऋत्येक, मेत्तुर जलाशयाकडसून तमिळनाडूच्या कोईमतूर आनी सेलम जिल्ह्यांचे शीमेवेल्यान दक्षिणेक, भवानी ते श्रीरंगम्मेरेन आग्नेय दिकेक आनी उपरांत उदेंतेकडेन व्हांवता.

कावेरी न्हंयचो एक फांटो कॉलेरून नांवान ईशान्येकडल्यान वचून, चिदंबरम्चे दक्षिणेकडल्यान बंगालच्या उपसागराक मेळटा. दुसरो फांटो तंजावरच्यान वचून नागापट्टणम् लागीं दर्याक मेळटा.

कावेरीचो ब्रह्मगिरी ते कुशलनगर मेरेनचो वाठार दाट जंगल आनी ऊंच दोंगरांतल्यान वता. उपरांत ती कर्नाटक पठाराच्या मलनाड भागांतल्यान वता. हो वाठार ३५ किमी. रूंद आनी १००० मी. ऊंच आसा. फुडें ती पठाराच्या सपाट भागांतल्यान वता. कावेरी न्हंय चडशी फातरट भागांतल्यान व्हांवता. हांगा ग्रॅनाइट फातर व्हड प्रमाणांत दिश्टी पडटात. तिच्या मार्गांत जायते नेटाचे प्रवाह आनी धबधबे तयार जाल्ले आसात. तातूंतलो चंचनकट्टी धबधबो सोबीत आसा. कावेरी न्हंय फुडें उपरांत ३०० ते ४०० मीटर रुंद जाता तातूंत श्रीरंगपटण हो जुंवो वसला. शिवसमुद्रम् हांगा प्रवाहाचे दोन वांटे जावन मदीं जुंवो तयार जाला. हांगाच्या अस्तंतेकडल्या प्रवाहाक गगनचुक्की तर उदेतेंकडल्या प्रवाहाक भारचुक्की म्हण्टात. ही न्हंय एरोड सावन श्रीरंगम् हांगा येतकच आनीक एक जुंवो दिसता. कर्नाटक राज्यांत कावेरीक ककब्बे, सुवर्णवती, हेमावती, शिम्शा, कर्णावली, कब्बनी ह्यो उपन्हंयो येवन मेळटात. तमिळनाडू राज्यांत भवानी, नोयिल आनी अमरावती ह्यो न्हंयो येवन मेळटात.

म्हैसूरसावन १८ किमी. अंतराचेर हे न्हंयक धरण घालून कृष्णराजसागर नांवाचो जलाशय बांदला. थंयच 'वृंदावन' नांवाचें सोबीत विसवथळ आसा. शिवसमुद्रम् हांगा ही न्हंय १०० मी. खोल देगणांत उडी घेता. ह्या धबधब्याच्या आदारान १९०२ सावन हांगा विजेची निर्मणी जाता. ही वीज शेताच्या कामाखातीर, कोलारच्या भांगराखणींक तशेंच बंगलोर कर्नाटक राज्यांत कावेरीक जायते बांद घालून म्हैसूर आनी कोलार शारांक पावयतात. तिचें उदक शेतांक पावयिल्लें आसा. सेलम जिल्ह्यांत मेत्तूर हांगा कावेरीचेर व्हड धरण आसा. हें १९३८ वर्सा बांदिल्लें. हांगा व्हड प्रमाणांत वीजेची निर्मणी जाता.

कावेरी न्हंयचे देगेवयलो वाठार सोबीत सुंदर आसा. तिरुचिरापल्ली उपरांत हे न्हंयचे देगेक सगळो पिकाळ वाठार आसा. तजावरांच्या वाठराक दक्षिण भारतांतली बाग म्हण्टात. भात, नाल्ल, केळीं, तंबाखू, उंस, भिकणां, कापूस, मिरसांगो, काफी, वेलदोडे, तेलबियो, काजू, मिरयां, चंदन, बांदकामाचें लांकूड, रेशीम सारकीं झाडावरवीं मेळपी उत्पन्नां तर हिरे, माणकां, मँगेनीज, लोखण सारकिले धातू कावेरीचे देगेर आनी हेर वाठारांत आशिल्ल्यान हो वाठार संपन्न जाला.

गंग, होयसळ, चोल आनी हेर राजे तेचपरी टिपू सुलतानाच्या काळांतले इतिहासीक अवशेश कावेरी न्हंयचे देगेक दिसतात. श्रीरंगपट्टण, श्रीरंगम्, कुंभकोणम्, तंजावर, तिरुवैय्यर, कावेरीपटनम् सारकीं तीर्थस्थळां, तेभायर गोपूरां, व्हड व्हड देवळां, सोबीत नगरां, सुंदर तलाव हांची दाटी जाल्ल्यान संस्कृतीक आनी इतिहासीक नदरेन हो वाठार गजबजिल्लो दिसता.

श्रावण म्हयन्यांत कावेरीच्या उगमाकडेन एक व्हड जात्रा भरता. जात्रेक येवपी लोक उगमाच्या कुंडांत न्हातात आनी थंय आशिल्ले कावेरीचे पाशाणमूर्तीची पूजा करतात. कोडगू आदिवासी खासा त्या वेळार थंय न्हावपाक येतात. तुलासंक्रमणाच्या काळांत गंगा न्हंय गुप्त रूपान कावेरी न्हंयच्या प्रवाहांत येता आनी लोकांचीं पातकां धुवन उडयता अशी म्हणणी आसा.

कर्नाटक आनी तमिळनाडू ह्या दोन राज्यांतल्यान व्हांवपी कावेरी न्हंय ह्या दोनूय राज्यांची उदकाची गरज थोडे-भोव प्रमाणांत भागयता आसली तरी शेतांखातीर आनी विजेची निर्मणी करपाखातीर उदक चड प्रमाणांत जाय पडिल्ल्यान दोनूय राज्यां कावेरीच्या उदकाचो व्हड वांटो सोदतात. वयल्या कारणांक लागून निर्माण जाल्लो 'कावेरी-उदक तंटो' अजून सोंपलो ना.

कों. वि. सं. मं.

**काशी:** बारा ज्योतिर्लिंगांतलें एक ज्योतिर्लिंग आनी तीर्थयात्रेतलें म्हत्वाचें ठिकाण. विश्वनाथाचें वास्तव्य आनी गंगा न्हंय ह्या दोन गजालींक लागून सगळ्या तिर्थांत काशीक उंचेलें पद मेळ्ळां. काशी हें शिवाचें क्षेत्र आनी तें शिवाच्या त्रिशुळाचेर वसलां. देखून ताचो केन्नाच नाश जावंचो ना, अशें पुराणांत सांगलां.

काशी हें नांव काश ह्या धातूवेल्यान आयलां, काश म्हळ्यार उजवाड जावप, तळपप. परब्रह्माचो वा मोक्षमार्गाचो प्रकाश दाखोवपी ही काशी. 'काश्यांतु मरणान्मुक्ति' = काशींत जो प्राणी मरता तो मुक्त जाता, अशें शास्त्रांत सांगलां. ह्या तत्त्वाचेर विश्वास दवरून भारतांतले खांची कोनश्यांतले लोक आपल्या शेवटाच्या दिसांनी काशीक येतात. अविमुक्त, आनंद कानन, म्हाश्मशान अशीं काशीक हेर जायतीं नांवां आसात.

बौध्द वाङ्मयांत ह्या नगराक ब्रह्मवध्दन, सुरुंधन, सुदस्सन, पुप्फवती, रम्म, मालिनी आदी नांवां मेळटात. जैनांच्या तरेकवार तीर्थकल्पांत काशीचे म्हळ्यारूच वाराणसीचे वेगवेगळे भाग मानतात ते अशेः १. देव वाराणसी २. राजधानी वाराणसी ३. मदन वाराणसी आनी ४. विजय वाराणसी.

बौध्द आनी जैन हांकांय काशी क्षेत्राचें बरेंच म्हत्व आशिल्लें. काशी हें धर्मक्षेत्र आनी विद्वानाचें आगर आशिल्ल्यान आपल्या धर्माचें प्रवर्तन हांगाच्यानूच करचें अशें बुध्दाक दिसलें आनी ताणें काशी लागच्या मृगदाव वा सारनाथ हांगा आपलें पयलें धर्मप्रवचन केलें.

काशीक वाराणसी (बनारस) ह्याय नांवान वळखतात. असी आनी वरुणा ह्या दोन न्हंयांचेर वशिल्ल्यान ताका हें नांव मेळ्ळें. हें शार गंगेच्या उत्तर तिराचेर आसा. गंगेन सुमार चार मैल दक्षिणेच्यान उत्तरेक धनुश्याभशेन आकार घेतला. धर्मपीठ आनी विद्यापीठ ह्या दोन गजालींखातीर काशीची नामना आसा. आदल्या तेंपासून काशीक संस्कृतीचें, विद्येचें आनी तत्त्वगिन्यानाचें कुळार समजतात. अजूनय ही नामना कांय प्रमाणांत तशीच आसा. सगळ्या भरतखंडांत बौध्द धर्माचो प्रसार हांगाच्यानूच जालो.

जनपदयुगांत काशी सोळा महाजनपदां मदलें महाजनपद आशिल्लें. पाणिनी आनी पतंजली हांणी काशी जनपदाचो उल्लेख केला. काशी वा काश्य ह्या नांवाचें जन हांगा राविल्ले. अथर्ववेद, शतपथ ब्राह्मण, जैमिनीय ब्राह्मण आनी बृहदारण्यक ह्या ग्रंथांत काशी लोकांचे उल्लेख आसात.

मूळ काशी नगरी काश्य लोकांनी वसयल्या आसूंक जाय. शतपथांत, हांगाच्या धृतराश्ट्र नांवाच्या राजाचो आनी बृहदारण्यकांत अजातशत्रू नांवांच्या राजाचो उल्लेख आसा. वाल्मीकीरामायणांत सीतेचे शुध्दीवेळार सुग्रीवान वानर सेनेक उदेंतेकडेन धाडिल्ली. ह्या संदर्भातूय काशी जनपदाचो उल्लेख मेळटा.

महाभारतांत तर काशी जनपदाचे खूबशे उल्लेख मेळटात. भीष्मान काशी राजाच्या चलयांचें अपहरण केल्लें, ही महाभारतांतली गजाल सामान्य लोकांक लेगीत परिचित आसा. ह्या सगळ्या आदल्या तेंपावेल्या उल्लेखावेल्यान काशीच्या पुरातनतत्त्वाविशीं साक्ष मेळटा.

**काशीची पुराणीक कथा:** शिव आनी पार्वती हिम पर्वताचेर रावतालीं. हिमाचल हें पार्वतीचें कुळार. पार्वतीक दिसलें सदांच कुळाराक रावप बरें न्हय आनी तिणें तशें शिवाक सांगलें. तेन्ना शिवाच्या मनांत हें थळ सोडून एका सिध्द क्षेत्रांत रावपाचो विचार आयलो. ताच्या मनांत काशी क्षेत्र भरलें. ताणें आपल्या निकुंभ नांवाच्या गणाक काशीक्षेत्र निर्जन करपाक फर्मायलें. शिवाच्या फर्मानाप्रमाण निकुंभ हाणें काशीचो राजा दिवोदास आनी ताची प्रजा हांकां काशीच्या भायर काडले. मागीर शिव आपल्या गणांवांगडा रावंक आयलो. शिवा फाटल्यान स्वर्गांतले देव आनी पाताळांतले नाग थंय रावंक आयले.

फुडें दिवोदासान तप केलें. ब्रह्मदेवान ताका प्रसन्न जावन वर मागूंक लायलो तेन्ना दिवोदासान मागलें की, देवांक दिव्यलोकांत वचू, नागांक पाताळांत वचू आनी पृथ्वी फक्त मनशांखातीर उरूं. ब्रह्मदेवान तथास्तू म्हळें. ह्या वरानुसार शिवाबरोबर सगळ्यांक काशी सोडची पडली. थंयच्यान शिव मंदराचलाचेर रावपाक गेलो पूण ताचें थंय मन लागलें ना. तो परतो काशीक येवंक सोदूं लागलो. ताणें ६४ योगीनींक काशी क्षेत्रांत धाडलें. पूण तांचें कांयच चललें ना. मागीर शिवान ब्रह्मा, विष्णू आनी सूर्य हांका धाडले. हातूंत विष्णूक यश मेळ्ळें. विष्णून ब्राह्मण रूप घेवन दिवोदासाक ज्ञानोपदेश केलो. त्या उपदेशान दिवोदास विरक्त जालो. ताणें काशीचो त्याग केलो. उपरांत शिव हांगां येवन रावलो.

काशीची राजपरंपरा हर्यश्वापसून सुरू जाता. हर्यश्वाचो पूत सुदेव आनी ताचो पूत दिवोदास हो खूब म्हापराक्रमी आशिल्लो. स्कंदपुराणांतल्या काशी खंडात ताच्या पराक्रमाचें वर्णन वाचूंक मेळटा. इंद्राच्या आदेशानुसार ताणें काशी नगराची थापणूक केली, अशें महाभारतांत म्हळां. फुडें वैतहव्य राजांनी दिवोदासाक हारयलो आनी काशी राज्य घेतलें, पूण दिवोदासाचो पूत प्रतर्दन हाणें वैतहव्यांक मारून हें राज्य परतें मेळयलें.

**काशीचो बौध्द काळांतलो इतिहासः** काशी लोकांचें वर्णन विदेह आनी कोसल हांचेवांगडा करतात. ह्या तिनूय राज्याचे पुरोहीत जातूकर्व्य हे आशिल्ले. पाळीभाशेंतल्या जातक कथांतल्यान दिसून येता की आदल्या तेंपार वाराणसींत ब्रम्हदत्त नांवाचो राजा राज्य करतालो. ब्रह्मदत्त ही पदवी धारण करपी हे लोक खंयच्या कुळांतले हाचो बोध जातकांत जायनासलो. पूण कांय जातकांत मात ब्रह्मदत्त हे विदेहवंशी अशें म्हळां. ह्या जातकांतल्या वर्णनावेल्यान आनीक एक गजाल दिसून येता ती ही की बुध्दाच्या पयली काळांत काशीचो राजा शक्तीवान आशिल्लो. ताणें कोसल आनी शेजारचे कांय प्रदेश जिखून आपल्या राज्याक जोडिल्ले. हें राज्य कांय काळ मेरेन शक्तिशाली आनी धनाढ्य आशिल्लें.

पूण बुध्दाच्या काळांत ताची शक्त आनी किर्त ल्हव ल्हव करून संपुश्टांत आयली आनी तें कोसलांचे सुवादीन जालें. पसेनदीचो बापूय महाकोसल हाणें आपली धूव कोसलदेवी बिंबिसार हाका दिली आनी काशी हें शार ताका आंदण म्हूण दिलें. पूण काळांतरान काशीचें राज्य परतें स्वतंत्र जालें, ताका बरे दीस आयले आनी ताका कोसलाचे बरोबरचें स्थान मेळ्ळें. तें एक म्हत्वाचें वेपारी केंद्र जालें.

युवान च्यांग जेन्ना भारतांत आयलो तेन्ना काशींत ३० बौध्द विहार आनी १०० देवालयां आशिल्लीं अशें ताणें बरोवन दवरलां. फुडें जसजशी बौध्द धर्माक देंवती कळा लागली तसो वैदिक धर्म परतो सगळे वटेन वाडूंक लागलो. ह्या काळांत काशीक बरेंच म्हत्व आयलें. वैदिक संस्कृती आनी संस्कृत भाशा हांचें हें पयल्या दर्जाचें केंद्र थारलें.

**काशीचो आर्विल्लो इतिहासः** मदल्या काळांत मुसलमानांच्या आक्रमणान उत्तर प्रदेशाचेर हावळ आयली. थंयच्या खुबशा सांस्कृतिक क्षेत्रांची नासधूस जाली. जेन्ना दिल्लीचेर सुलतानाची सत्ता आयली तेन्ना उत्तर प्रदेशांतल्या काशी क्षेत्रातच आदल्या संस्कृतीक परंपरांचें कांय प्रमाणात संरक्षण जालें. ह्यो परंपरा सांबाळचेखातीर कबीर आनी रामानंद हांणी खूब यत्न केल्यात. अकबराच्या काळांत काशीक आनीकूय बरे दीस आयले. ह्या काळांत तुळशीदास, मधुसूदन सरस्वती, पंडितराज जगन्नाथ आदी संस्कृत कवींनी काशींत रावून भारतीय संस्कृताय तिगयली.

पूण औरंगजेब सत्तेचेर येतकच ताणें काशीचेर धाड घाली. काशींतल्या विश्वेश्वराच्या देवळांसयत हेर सगळीं देवळां मोडून उडयलीं. विश्वेश्वराच्या देवळाचेर तर ताणें मशीद बांदली. अजूनय ती मशीद थंय आसा. फुडें काशी आनी प्रयाग हीं दोन क्षेत्रां मुसलमानां कडल्यान घेवपाचे पेशव्यांनी खूब यत्न केले. पूण शेवटमेरेन तांकां येस मेळ्ळें ना.

१७५५ उपरांत काशीचेर ब्रिटीशांची सत्ता आयली. तांणी धर्मीक गजालींत ढवळाढवळ केलीना. देखून काशीक परतें विद्येचें कुळार म्हूण नामना मेळपाक लागली. ह्या काळांत काशींत खूबशीं नवी देवळां बांदलीं. सद्या काशींत १५०० वयर देवळां आसात.

१८९८ वर्सा डॉ. ॲनी बेझंट हिच्या यत्नान हांगा सेंट्रल हिंदू

कॉलेजीची थापणूक जाली. १९१६ त मदन मोहन मालवीय हाणें हिंदू विद्यापीठाची थापणूक केली. अशेतरेन काशी पूर्विल्लें आनी आर्विल्लें विद्येचें एक म्हाकेंद्र जालां.

काशी हें एक शक्तिपीठ्य आसा. हांगा सतीचें उजवें कर्णकुंडल गळून पडलें अशी कथा सांगतात. पूण हांगाचो मुखेल देव विश्वेश्वर वा विश्वनाथ. चड करून लोक काशीयात्रेक येतात ते विश्वेश्वराच्या दर्शनाकूच. औरंगजेबान आदलें विश्वेश्वर देवूळ उद्‌वस्त केल्लें. ताचे उपरांत सुमार १०० शंबर वर्सां वयर हांगा देवूळ नासलें. विश्वेश्वराचें लिंग खंयतरी लिपोवन दवरिल्लें आसूंक जाय. ताचे उपरांत अठराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक अहिल्याबाईन सद्याचें विश्वेश्वर देवूळ बांदलां. हें देवूळ ल्हानशेंच आसा. मदल्या भागाक एक चवकोनी कुंड आसा आनी तातूंत विश्वेश्वर लिंगाची थापणूक केल्या. ह्या देवळाचेर भांगराचो कळस आसा. पंजाबचो म्हाराजा रणजितसिंग हाणें देवळाचेर भांगराचो कळस बांदिल्लो आसा.

काशी क्षेत्रांत विश्वनाथाक सम्राट मानतात. हांगा आनीकूय खुबशीं शिवलिंगां आसात. तातूंतलीं हरेश्वर हो ताचो मंत्री, ब्रह्मेश्वर हो कथावाचक, भैरव हो कोतवाल, तारकेश्वर हो धनाध्यक्ष, दंडपाणी हो चोपदार, विरेश्वर हो कोशाध्यक्ष, ढुंढिराज हो अधिकारी अशीं खुबशीं लिंगा आपआपल्या वाठारांत प्रजापालन करपी आसात. काशी क्षेत्रांत पांच मुखेल तीर्थां आसात. ही तीर्थां म्हळ्यार दशाश्वमेद, लोलार्क, केशव, बिंदूमाधव आनी पांचवे महाश्रेष्ठ मणिकर्णिका. हेभायर आनीकूय खुबशीं थळां काशीक पळोवपासारकीं आसात तीं अशीं.

१. **ज्ञानवापी:** विश्वेश्वराच्या देवळा लागसार ही बांय आसा. कृतयुगांत जटिल नांवाच्या योग्यान त्रिशूळ मारून हें नगर केल्लें तेन्ना संतुश्ट जावन शिवान वर दिलो की हे ज्ञानवापींत न्हाण घेतल्यार तो मनीस ज्ञानसंपन्न जावन मोक्षाक पावतलो. अशें म्हणटात की औरंगजेबान जेन्ना विश्वेश्वर देवळाचो विध्वंस केलो तेन्ना विश्वेश्वर ज्ञानवापींत अंतर्धान पावलो.

**दंडपाणी:** कनककुंडलां नांवाचे यक्षिणीचो पूत केशव हाणें काशींत येवन शिवाची भक्ती केली. शिवान प्रसन्न जावन ताच्या हातांत दांडो दिलो आनी वायट मार्गान वचपी लोकांक शिक्षा करपाक ताणें ताची थंय थापणूक केली. तोच हो दंडपाणी.

**अन्नपूर्णा:** विश्वेश्वर देवळालागसारुच अन्नपूर्णा देवीचें देवूळ आसा. तिची मूर्त पितुळची आसून ती चांदीच्या शिंवासनाचेर विराजमान जाल्या. हिच्या मुखार सदांच अन्नदान जायत आसता. अशें सांगतात की काशीतलो दरेकलो मनीस जेवतकच ही देवी आपल्या तोंडान अन्न घेता. हिच्या लागसार कुबेर, सूर्य, गणपती आदींच्यो मूर्त्यो आसात.

**ढुंढिराज:** अन्नपूर्णा देवीचें देवूळ अस्तंतेक आसा. ढुंढिराज म्हळ्यार गणपतीचें नांव. अशें सांगतात की दिवोदासान ही मूर्त मडकेंतल्यान पाशाण हाडून केल्ली.

**मणिकर्णिका:** हें तीर्थकूप विष्णून सुदर्शनचक्रान तयार केल्लें आनी थंय तो तप करूंक लागलो. फुडें शिव विष्णूचेर प्रसन्न जालो आनी ताणें ताका दर्शन दिलें. हें चक्रतीर्थ पळोवन शिव संतुश्ट जालो आनी नाचूंक लागलो. नाचतां नाचतां ताच्या कानांतलो मणी ह्या तीर्थांत पडलो. देखून ह्या तिर्थाक मणिकर्णिका हें नांव मेळ्ळें.

**काळभैरव:** हाचें देवूळ भैरवनाथ वाठारांत आसा. ताची मूर्त चांदीची आसा आनी हो काशीचो राखणदार. काशीक वचपी लोकांक पंचक्रोशीची यात्रा करूंक सांगतात. ही यात्रा पुरी करूंक ५-६ तरी दीस लागतात. मणिकार्णिकाच्यान सुरू जाल्ली ही यात्रा मणिकार्णिका घाटाचेरूच सोंपता. ह्या घाटाचेर न्हावन साषी विनायकाचें दर्शन घेवचें आसता म्हणजे पंचक्रोशीची यात्रा पूर्ण जाली हाची साक्ष हो विनायक दिता अशें मानतात. काशी हें म्हातीर्थ आशिल्ल्यान हांगा गंगास्थान, श्राध्द आनी तीर्थविधी करतात.

- को. वि. सं. मं.

## काश्त्रु, टॉमाश द्: (जल्म: ?; मरण: ?, १६८९).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. दिवाडे वाठारांतलो. गोंयचो नामनेचो बिशप, मॅथ्यू द् काश्त्रु हाचो तो पुतणयो आशिल्लो. आपल्या काकाभशेन ताणें थियेटाइन पंथांत प्रवेशे केलो.

१६७१ वर्सा तो बिशप जालो. १६७७ वर्सा पोप क्लेमेंत धावो हाणें ताका आपोस्टोलीक (Apostolic) प्रतिनिधी म्हूण कोचीन, टानोर, गिंगे, मदुराई, म्हैसूर, क्रांगानोर, कानानोर आनी मंगळूर ह्या वाठारांत धाडलो. केनाराच्या न्याय पध्दतीविशीं पाद्राआदोच्या (Padroado) मुखेल्याकडेन ताचे खर मतभेद आशिल्ले. पाद्राआदोचे न्यायपध्दतीक लागून आनी प्रचाराच्या प्रांतांक लागून (Jurisdiction of Padroado, Propaganda Territories) ताचे पोर्तुगेजांकडेन मतभेद जांताले.

- कों. वि. सं. मं.

## काश्त्रु, मॅथ्यसु द. (जल्म: १६०९, दिवाडी; मरण: १६७९, रोम).

पयलो नामनेचो गोंयकार बिशप. ताणें आपलें मुळावें शिक्षण गोंयांत, वेरेंच्या रेईस मागूस वाठारांतल्या फ्रांसिस्कन कॉलेजींत घेतलें. ताका फ्रांसिस्कन पंथांत वचपाची इत्सा आशिल्ली. पूण ताच्या काळांत भारतीयांक धर्मीक पंथांत वचपाचो हक्क नाशिल्लो. तो रोम शारांत गेलो आनी थंय ताणें थियेटाईन पंथ (Theatine Order) आपणायलो. थंय धर्मीक फुडारी (Priest) म्हूण ताची नेमणूक जाली. उपरांत ताणें धर्मशास्त्रांत डॉक्टरेट ही पदवी घेतली. १६३७ वर्सा तो बिशप जालो. विजापूर, गोलकोन्डा, पेगु (ब्रह्मदेश) आनी एबीसिनीया (आफ्रिका) हांच्या 'सेक्रेड कोंग्रिगेशन ऑफ द प्रोपोगेशन ऑफ द फेथ' (Sacred Congregution of the Propagation of the Faith) हे कमिटीन 'व्हिकार ओपोस्तोलीक' म्हूण ताका भारतांत धाडलो. तो दिवचल गांवांत येवन स्थायीक जालो. तेन्ना दिवचल गांव विजापूर राज्याच्या शेकातळा आशिल्लो. फुडें ताणें दिवचल, बांदा आनी वेंगुर्ला ह्या वाठारांत जायत्यो इगर्जी बांदल्यो. पाद्रादोचे न्यायपध्दतीखातीर आनी प्रचाराच्या प्रांताखातीर (Jurisdiction of Padroado, Propaganda Territories) ताका पोर्तुगेजांकडल्यान खर विरोध सोंसचो पडलो. पोर्तुगेजांक भारताभायर धांवडावपाखातीर ताणें विजापुरच्या सुलतानाचो पालव मागलो. थंयच्या थळाव्या धर्मप्रसारकांनीय ताका कांय प्रमाणांत आदार दिलो. पूण ताका ताच्या ह्या वावरांत यश मेळ्ळें नां.

- कों. वि. सं. मं.

## काळपुळयो: (पळेयात कात-२).

## काळींग: (मराठी-कलिंगड; संस्कृत- तरबुज; इंग्लीश- वॉटर मेलन; पोर्तुगेज- मॅलांशिया; लॅटीन- सिट्रुलस व्हलगॅरीस; कूळ- कुकुबिटेसी).

एक फळ. ताची वाल जमनीचेर पातळून वाडटा. काळंगाची वाल विषुववृत्तीय आफ्रिकेंत आनी अस्तंत राजस्थानांत जंगली अवस्थेंत दिसता. थंयच्यान तिचो प्रसार भारताचे हेर भाग आनी ईजिप्त, श्रीलंका, चीन ह्या देशांनी जालो. काळंगांची लागवड आतां सगळया उश्ण प्रदेशांत मोट्या प्रमाणांत करतात.

काळंगां रोवपाची पध्दत गोंयांत, सांताक्रुज, कळंगूट, म्हापशें, निर्ला, कोलव्यां, माजोर्ड्यां आनी बाणावले ह्या वाठारांनी चड आसा. काळंगाचे वाडीक गरजेची आशिल्ली रेंवट जमीन, भरपूर उदक आनी उश्ण तापमान हांगां फाव तशें आशिल्ल्यान ह्या गांवांनी काळगांचें पीक भरपूर जाता.

काळंगां रोवपाखातीर जमनींत एक ६-६ इंच खोल फोण मारून तातूंत ४-५ बियो रोयतात. सगळ्योच बियो किल्लून येनात. आयल्योच जाल्यार दोन रोंपे दवरून बाकीचे हुमटावन उडोवपाचे आसतात. वेवस्थीत सारें आनी उदक दिलें जाल्यार, वालीची वेवस्थीत वाड जाता.



काळींग

काळंगाचे वालीक धवशीं फुलां येतात. सगळ्याच फुलांक काळींग जाता अशें ना. फुलांबरोबर जर 'तोरो' आसल्यार तो वाडटा आनी मागीर ताचें काळींग जाता. काळींग जून जावपाक सादारणपणान तीन म्हयने लागतात. काळींग जून जालां म्हणपाची खास अशीं लक्षणां नात. तरी आसतना काळींग जून जातकच, जर ताचेर चिरपूट मारल्यार पोंको कसो आवाज येता. देंठ काळंगांत मुंगरता आनी फूल आसता तें फळाचें सकयलें पोंतय भितर वता.

काळंगाचे एके वालीक २, ३ ते १५ मेरेन काळंगां लागतात. काळंगां आकारान वांटकुळीं वा लांबट वांटुकळीं आसतात. तांचो व्यास ५० सेंमी. मेरेन आसता. काळींग वयल्यान गाड पाचवें जाल्यार पोंदाच्यान धवसार आसता. कांय वेळार पाचव्या रंगाचेर धव्यो वळी दिसतात. एक हेक्टर जमनींत सुमार ५००० ते ६००० किग्रॅ. इतलीं काळंगां मेळूंक शकतात.

काळंगांभितर तांबडो गरप आसता. हो गरप जर गाड तांबडो आसत जाल्यार काळींग रुचीक बरें आसता, जर लेव आसत जाल्यार गोडयेक आनी रुचीक बरें नासता. काळंगांक चड बियो आसप, हें एक रूचीक काळंगाचें लक्षण. ह्यो बियो आकारान ल्हान, रंगान काळ्यो आनी चेपट्यो आसतात. एकाद्र्या काळंगांत धवसार बियो आसत जाल्यार तें काळींग तन्नसार आसून रुचीक बरें नासतलें अशें समजुचें. काळंगांचो गरप गोड, थंड, तानेक बरो आनी उत्तेजक आसता. काळंगां खाल्यार मुतूंक साफ जाता. ताच्या बियां पसून काडिल्लें तेल खावपाक वा दिव्या खातीर वापरतात. गोंयांत ही पध्दत ना. काळंगांच्यो बियो पुश्टीक आसतात.

गोंयांत काळंगां जानेवारींत रोयतात. पावसाळ्या मेरेन हें पीक घेतात. कारण फुलांचेर पावस पडत जाल्यार फुलां झडटात आनी वालीक फळ धरना. कांय वाठारांनी जून-जुलय म्हयन्यांतय काळंगां रोयतात. ताची वाल जमनीरच पातळावन वाडयतात.

काळंगाच्या १०० ग्रॅ. गरपाचें पृथक्करण अशें: उदक ९२ ग्रॅ. कार्बोहायड्रेट्स- ७ ग्रॅ. , फॉस्फरस- ७ मिग्रॅ., थायामीन- ०.०५ मिग्रॅ. प्रथिन- १ ग्रॅ., कॅल्शियम -७ मिग्रॅ., रिबोफ्लाविन - ०.०५ मिग्रॅ., 'क' जीवनसत्व- ६ मिग्रॅ., 'अ' जीवनसत्व- ५९९ आंतरराश्ट्रीय एकक.

काळंगांच्यो कांय जाती अश्यो- साहेबी, काळें, सुरई, कलमी, कबरा, चित्रा. सालीचो रंग, गरपाची रुच आनी फळांचो आकार हांचेवेल्यान ह्यो जाती वळखूंक येतात. तिंडा (दिलपसंद) ही काळंगांची एक जात वायव्य आनी उत्तर भारत, गुजरात, पंजाब आनी सिंध ह्या प्रदेशांनी मेळटा. फळां पाचवीं आनी संत्रायेदीं आसतात. हांचो भाजी आनी लोणच्याखातीर वापर करतात.

काळंगाक 'मर' हो रोग जाता. हो रोग सगळ्या जातीच्या काळंगांमदीं दिसून येता. तो फ्युजेरियम ऑक्सिस्पोरम (निव्हेयम) ह्या चित्याक लागून जाता. ह्या रोगाचो प्रसार बियांपसून जाता. ह्या रोगाक लागून काळंगांचे रोंप सुकून मरता. 'डिंकया' हो रोग मायकोस्फिरीला मेलॉनीस ह्या चित्याक लागून जाता. बीजदल आनी पानांचेर ह्या रोगान चितो पडटा. कांडाचे मदले कातींतल्यान दिकासारको पदार्थ भायर सरूंक लागता आनी अशेतरेन वाल मरता. 'करपा' हो रोग कोलेटॉट्रिकम लॅजेनिरियम ह्या चित्याक लागून जाता. ह्या रोगाची लागण जाल्यार पानांचेर आनी फळांचेर काळे दाग पडटात. हो रोग निवळावपाखातीर चितो मारपी वखद वापरतात. 'मावा' जातीच्यो किडी काळंगाक, म्हणजे फळांक तोपतात. देखून तांकां मारपाखातीर मॅलॅथिऑन वा फॉलिडॉलचे फवारे मारतात.

कों. वि. सं. मं.

**काळीज:** काळीज हो कुडींतलो एक जैव (Vital) अवयव. ह्या अवयवावरवीं कुडींतल्या सगळ्या अवयवांक आनी भागांक रगताची पुरवण जाता. काळीज छातयेच्या वयल्या भागांत दावेवटेन आसता पूण कांय जाणांचे बाबतींत तें उजवे वटेन आसूंक शकता. ताचो आकार लांब आसता आनी ताचो आवांठ आमचे मुठीयेदो आसता. काळीज म्हळ्यार एक प्रकारचो स्नायू (muscle) आसून ताची घडण हेर स्नायूंपरस वेगळी आसता. ह्या स्नायूंच्यो पेशी (cells) एकामेकांक जोडिल्ल्यो आसतात. अशें दुसऱ्या खंयच्याय स्नायूंचे बाबतींत घडना. इतलेंच न्हय, तर काळजाच्या स्नायूंच्या पेशींचें खाशेलपण म्हळ्यार त्यो एकसारक्यो आपोआप आनी एकाच बरोबर आकुंचित जातात. हाका लयबध्द आकुंचन (ehythmic contraction) अशें म्हण्टात. फकत रगता-पुरवण जाय तशी चालू उरली ना जाल्यार काळीज ताबडतोब बंद पडटा.




काळजाची घडण भुरगें आवयच्या पोटांत आसतना म्हळ्यार सादारण ६ ते ८ सप्तकांचेर सुरू जाता. ताका लागून ह्या काळांत हुरहुऱ्यासारकें दुर्येस जायत जाल्यार काळजाचे जल्मजात दोश भुरग्याक जाल्ले दिसून येतात. काळजाचे चार भाग आसतात. वयले वटेन दोन आनी सकयले वटेन दोन. वयल्या भागाक अलिंद (atrium) अशें म्हण्टात तर सकयल्या भागाक निलय (ventricles) अशें म्हण्टात. काळजाचे वयले उजवे वटेन उजवें अलिंद (right atrium) तर ताचे सकयले वटेन उजवें निलय (right ventricle) आसता आनी दावे वयले वटेन दावें अलिंद (left atrium) अशी ठेवण आसता. उजवें अलिंद आनी दावें अलिंद हांचेमदीं 'पड्डो' (septum) आसता. तशेंच उजवें आनी दावें निलय हांचेयमदीं एक प्रकारचो पड्डो आसता. ताका लागून अलिंदाचेभितर आनी निलयांचेभितर रगत घोळूंक पावना. उजवें अलिंद आनी उजवें निलय हांचेभितर एक झडप (valve) आसता. तिका त्रिदली झडप (tricuspid valve) अशें म्हण्टात. दावें निलय आनी दावें अलिंद हांचेभितरुय तसलोच झडप आसता आनी तिका द्विदली झडप (mitral valve) अशें

म्हण्टात.

कुडींतलें सगळ्या भागांतलें रगत शिरांतल्यान (veins) उजव्या अलिंदांत पावता. हें रगत अशुध्द आसून तातूंत कमी प्रमाणांत ऑक्सिजन आसता. उजव्या अलिंदांतल्यान हें रगत उजव्या निलयांत त्रिदली झडपेंतल्यान वता. उजव्या निलयांतल्यान रगत शुध्द वा बऱ्या प्रमाणांत ऑक्सिजन आशिल्लें जावपाखातीर फुफ्फुसांत वता; ते शिरेंतल्यान हें रगत उजव्या निलयांतल्यान भायर सरता. हे शिरेक फुफ्फुस धमनी (pulmonary artery) अशें म्हण्टात. उजवें निलय आनी फुफ्फुस धमनी हांचेभितर जी झडप आसता तिका फुफ्फुसप्रकांड झडप (pulmonary valve) अशें म्हण्टात. झडपेचें काम म्हळ्यार रगताचो प्रवाह एकेच वटेन दवरपाचें; ताका लागून झडपेंतल्यान जें रगत फुडें वता, ताका परत फाटल्यान सरूंक मेळना. फुफ्फुसांत रगत पावतकच तातूंतलो कार्बन डाय-ऑक्साइड मेकळो जावन उस्वासांतल्यान भायर सरता आनी स्वासावरवीं भितर गेल्लो ऑक्सिजन रगतांत भरसता आनी रगत शुध्द करता.

अशे तरेन शुध्द जाल्लें रगत फुफ्फुसांतल्या शिरांतल्यान दाव्या अलिंदांत पावता आनी थंयच्यान तें द्विदल झडपेंतल्यान दाव्या निलयांत वता.

दावें निलय हो काळजाचो मुखेल भाग आशिल्ल्यान ह्या भागाचे स्नायू हेर भागांपरस चड जाड आसतात. दावें निलय हो खण (chamber) शुध्द जाल्लें रगत, कुडींतल्या सगळ्या अवयवांक आनी भागांक पावयता. जी शीर दाव्या निलयांतल्यान शुध्द रगत व्हरता, तिका 'महाधमनी' (aorta) अशें म्हण्टात. तेचपरी दावें निलय आनी 'महाधमनी' हांचेमदीं जी झडप आसता तिका महाधमनी झडप (aortic valve) अशें म्हण्टात.

काळजाचें आकुंचन- शिथिलता करपाचो आवेग काळजाच्या उजव्या अलिंदांत तयार जाता, थंयच्यान तो दोनूय निलयांत एका वेगळे तरेच्या मज्जातंतूंतल्यान तशेंच काळजाच्या स्नायूंतल्यान पावता. ताका लागून दोनूय अलिंदां पयलीं आकुंचित जातात आनी ताच्या फाटोफाट दोनूय निलयां आकुंचित जातात. आकुंचन जावप आनी शिथिल जावप हे क्रियेक काळजाची 'धडधड' (ठोके) अशें म्हण्टात. काळजाचे ठोके भुरगें पोटांत दोन म्हयन्याचें आसतना पडपाक सुरवात जाता; हे ठोके दीसरात, वर्सांचीं वर्सां, एकसारके थांबनासतना अखेरमेरेन चालू उरतात. सामक्या भुरगेपणांत दर मिनटाक १०० ते १२० जाल्यार जाण्टेपणांत दर मिनटाक ६० ते ९० हेचप्रमाण पडत रावतात आनी हे ठोके नकळत, मनशाच्या स्वताच्या ताब्याभायर पडत रावतात.

**काळजाच्यो पीडाः** काळजाच्यो पीडा दोन तरांच्यो आसतात. जल्मजात (congenital) आनी जल्मा उपरांतच्यो (acquired). जे रोग जल्मताच दिश्टी पडटात तातूंतय दोन तरा आसतात. जल्मासावन अशुध्द रगत आंगांत खेळटा अश्यो कांय पीडा आसतात आनी ताका लागून असल्या भुरग्यांचे ओंठ, जीब, बोटां निळीं पडटात. हाका जल्मजात नीलमय काळजाचे रोग (congenital cyanotic heart diseases) अशें म्हण्टात. दुसरे तरेच्यो पीडा अश्यो आसतात तातूंत भुरग्याचें रगत शुध्द आसता, पूण काळीज वा काळजाच्या खंयचेय एके शीरेची वा भागाची घडण सारकी नासता. असल्या रोगांक 'जल्मजात अनीलमय काळजाचे रोग' (congenital acyanotic heart diseases) अशें म्हण्टात.

'नीलमय काळजाचो रोग' वा 'नील नवजात भुरगें' (cyanotic heart diseases) वा blue babies) हाचें एक उदाहरण म्हळ्यार फॅलोची चतुःगुत्री (Fallot's tetralogy). हे पीडेंत दोनूय निलयांमदीं बुराक आसता आनी महाधमनी (aorta), जी दाव्या निलयांतल्यान येवपाची ती उजव्या निलयाक जोडिल्ली आसता. हाका लागून उजव्या निलयांतलें अशुध्द रगत फुफ्फुस सोडून चडशें हेर भागांत घोळटा.

अनीलमय काळजाचे रोग (acyanotic heart diseases) म्हळ्यार शुध्द रगत आसून जाका जल्मजात काळजाचो दोश आसता, तें दुयेंस. ताचें उदाहरण म्हळ्यार अलिंद पट दोश (atrial septal defect) म्हळ्यार दोनूय अलिंदांभितर बुराक आसप आनी दुसरें उदाहरण म्हळ्यार 'निलयपट दोश' (ventricular septal defect) म्हळ्यार दोनूय निलयांच्या मदल्या पड्ड्याक बुराक आसप. असल्या पीडांक 'काळजांत बुराक' (hole in the heart) अशें म्हण्टात.

नीलमय जल्मजात काळजांचे रोग (cyanotic congenital disease) हाका खास अशें कारण नासता. पूण आवयक गुरवारपणाच्या पयल्या तीन म्हयन्यांत हुरहुऱ्यासारके वा German Measles सारके रोग जाले जाल्यार, ताचो परिणाम भुरग्याचेर जावन काळजाचे घडणेत 'अलिंदपट दोश' वा 'निलय पट दोश' असले दोश जावं येतात.

जल्मताच आसपी काळजाच्यो सगळ्यो पीडा हांचीं लक्षणां सारकींचशीं आसतात. असल्या भुरग्यांची वाड सारकी जायना. तांकां खरस येता. तांचे छातयेंत परत परत थंडी जाता. जेन्ना अशुध्द रगत आंगांत घोळटा तेन्ना त्या भुरग्यांचे ओंठ, बोटां निळीं आसतात आनी तांच्या काळजांत सदांच ठोक्यांवांगडा आनीक वेगळे आवाज आयकूंक येतात. हांकां 'मर्मर्' (Murmurs) अशें म्हण्टात. हांचेवेल्यान दोश कसलो आसूं येता, हाचें निदान सादारणपणान कळटा. पूण हें निदान, छातयेचें क्ष-किरण चित्र (X-Ray), हृदस्पंदलेख (Cardiogram) आनी हृदचित्रण (Echo-Cardiography) हें सगळें केल्याबगर पक्कें जायना.

काळजाच्या जल्मजात पीडांचेर उपचार करूंक मेळटाच अशें ना. जेन्ना पीडा चड गंभीर तरेची आसता, तेन्ना भुरगें कांय दीस वा कांय म्हयने जियेता. अशें भुरगें व्हड जाता, तशें ते पीडेचें सारकें निदान करून, तेप्रमाण उपचार करप शक्य जाता. हें करपाक फाळपाचीय (operation) गरज लागता. 'काळजांतलो बुराक' (hole in the heart) असल्यो पीडा फाळप केल्यार सामक्यो बऱ्यो जावं येतात, पूण फॅलोची (Fallot's) नीलमय (cyanotic) पीडा फाळप करून फकत आटापांत दवरूं येता.

जल्माउपरांत जावपी काळजाच्यो पीडा जायत्या तरांच्यो आसतात आनी चड करून पिरायेप्रमाण त्यो पीडा, त्या त्या वेळार दिश्टी पडटात. ल्हान पिरायेंत चड करून 'संधिवाती काळजाचो रोग' (rheumatic heart disease) तर जाण्टेपणांत काळजाचो झटको (attack), रक्तदाबाक लागून जावपी काळजाच्यो पीडा, वा फुफ्फुसां पेड्ड्यार जावन जावपी काळजाच्यो पीडा वा काळजाचो स्नायू पेड्ड्यार जावन ताका लागून जावपी पीडा अशे तरेतरेचे रोग जातात.

गोंयांत ह्यो सगळ्यो काळजाच्यो पीडा दिसून येतात. पूण तांचेभितर चड दिसतात त्यो रक्तदाबापसून (blood pressure) जावपी पीडा. 'हार्ट ॲटॅक' (heart attack) हें दुयेंस हिंदुस्थानांतल्या हेर शारांप्रमाण गोंयांतूय चड प्रमाणांत दिसून येता. रक्तदाब आनी हार्ट-ॲटॅक हीं दोनूय दुयेंसां सादारणपणान तणावग्रस्त अशा नागरी वाठारांत (urban-civilized) दिसून येतात. हाचें कारण सोदून काडपाखातीर संशोधन चालू आसा.

संधीवाती काळजाची पीडा (rheumatic heart disease) ही पीडा काळजाची झडप इबाडटा. हे पीडेची सुरवात पिरायेच्या पयल्या धा वर्सांत जाता. भिण्णांचो त्रास सगळ्या भुरग्यांक जाता. पूण कांय भुरग्यांक भिण्णांचो त्रास चड जातकच, एका म्हयन्यांभितर संधी दुखून जोर येवंक लागता. हाचें रोखडेंच निदान जायना जायल्यार आनी उपचार जालोना जाल्यार हो रोग काळजाच्या झडपेंत (valve) पावता आनी ताका लागून कांय वर्सां उपरांत झडप एक तर सामकीच उगडना वा सारकी बंद जायना. खरस येवप हें ह्या रोगाचें मुखेल लक्षण. फाळप (operation) करून इबाडिल्ल्या झडपाचेर उपाय करप हो एकूच मार्ग हे पीडेंत शक्य आसता. वखदांनी झडप सारकी जायना, फकत खरस मात्शी कमी जाता.

काळजाचो ॲटॅक जे पीडेपसून जाता ताका atherosclerosis अशें म्हण्टात. हो रोग आंगांतल्या सगळ्या धमनींक (arteries) जाता. धमनींच्या भितर चरबीचे फोड येवन तातूंतल्यान रगत वचपाक आडखळ

जाता; काळजाच्या शिरांक हो रोग जातकच, काळजाक जाय तितलें रगत पावना आनी ताका लागून छातयेंत दुखूंक लागता. ह्या लक्षणांक हृदशूल (angina) अशें म्हण्टात. जेन्ना शिरेंतल्यान रगत वचपाचें सामकेंच बंद जाता, तेन्ना चड दुखूंक लागता, घाम येता आनी रक्तदाब (blood pressure) देंवता वा चडटा. हाकाच 'काळजाचो ॲटॅक' अशें म्हण्टात. ही पीडा चड घातक आशिल्ल्यान, हाचेर सुरवातीचो उपचार हॉस्पिटलांत जाल्लो बरो आसता. पयल्या कांय वरांत थोडीशीं वखदां शिरांतल्यान दीत जाल्यार शिरांतली आडखळ वचूंक शकता; ताचे उपरांत रोगी मनशान वखदां घेत रावचीं पडटात. हालींच्या काळांत फाळप (operation) करून ज्या शिरांक आडखळ आसता त्या त्या जाग्यार नव्यो शिरो बसोवन रगताची पुरवण वाडोवप शक्य जाता. ह्या फाळपाक (operation) 'उपमार्ग शस्त्रक्रिया' (by-pass surgery) अशें म्हण्टात. हाचे उपरांत १० वर्सां तरी कसलोच त्रास जायना.

रक्तदाब (blood pressure) ही चड करून जाण्टेपणांतली पीडा. पूण कांय वेळा ही पीडा भुरग्यांक पसून आसपाची शक्यता आसा. हे पीडेचें मुखेल कारण म्हळ्यार मुत्राशयाचे रोग. भुरगेपणांत मुत्राशयाचे रोग (Nephritis) जायत जाल्यार हाचेपसून मागीर रक्तदाब (pressure) वाडूंक शकता. जाण्टेपणांत मुत्राशयाचे रोग खूब तरांचे आसूंक शकतात आनी जायत्या वेळा तांचेपसून रक्तदाब (blood pressure) वाडटा. पूण सादारणपणान रक्तदाबाचें (blood pressure) कारण सोदून काडप कठीण.

रक्तदाबापसून जावपी काळजाचे पीडेक सुरवातीक कांयच लक्षणां नासतात. एकाद्र्या वेळार तकली उसळप, जड जावप वा घुंवळ येवप अशे प्रकार जावं येतात. चड वर्सां अतिरक्तदाब आसतकच काळीज ल्हव ल्हव व्हड जावपाक लागता. तशें जातकच 'काळजाचो ॲटॅक' येवं येता वा फक्त खरस येवं येता. अतिरक्तदाबाचेर उपचार म्हळ्यार मीठ कमी खावप आनी वखदां घेवन रक्तदाब आटापांत दवरप. रक्तदाब जर सारको दवरलो जाल्यार मेंदवाचो ॲटॅक वा काळीज व्हड जावपाचो वा ॲटॅक येवपाचो संभव कमी आसता.

काळजाच्या उजव्या निलयांतल्यान रगत फुफ्फुसांत वता. जायते फुफ्फुसांचे रोग, चड वर्सां तिगून उरतकच फुफ्फुसांतल्यो शिरो घट जातात; ताका लागून उजव्या निलयाचेर ताण पडटा आनी तें वाडूंक लागता. त्याच वांगडा फुफ्फुसां इबाडिल्ल्यान रगतांत ऑक्सिजन घेवन कार्बन डाय-ऑक्साइड भायर उडोवपाचें काम जें फुफ्फुस करतात, तातूंत आडखळ जाता. रगतांत ऑक्सिजनचें प्रमाण कमी जावन कार्बन डाय-ऑक्साइडचें प्रमाण वाडुनूय उजव्या निलयाचेर ताण पडटा आनी ह्याच कारणाक लागून तें वाडत वता. निमाणें ताचो आकार वाडून वाडून तें अकार्यक्षम जाता. हाका 'कोर पुलमोनाली' (Cor Pulmonale) आनी 'अतिरक्तसंचयी हृदय अकार्यक्षमता' (Congestive Heart Failure) अशें म्हण्टात. हाचेर उपाय म्हळ्यार पयलीं फुफ्फुसां इबाडप जाता तितलें कमी करप आनी ताचेर वखदांचो उपेग करप. ताचेभायर हृदय अकार्यक्षमतेचेरूय (heart failure) वखदां दिवप आसताच.

हार्ट-ॲटॅक, अतिरक्तदाब, कोर पुलमोनाली ह्या काळजाच्या तीन पीडांचेर विडी, सिगरेटचो चड वायट परिणाम जाता. जायत्या वेळा 'हार्ट-ॲटॅक' आनी 'कोर पुलमोनाली' हीं काळजाचीं दुयेंसां सिगरेट, विडयेक लागूनूच जातात. एकाद्र्या वेळा काळजाच्या स्नायूची पीडा नदरेंत येता. हे पीडेक कारण अशें आसना. तातूंत एक तर काळजाचो स्नायू वाडून दाट जाता वा पातळूय जावंक शकता. पूण निमाणें काळीज व्हड जावंक लागता आनी तें अकार्यक्षम जाता. असले स्नायूचे पीडेक 'कारडियोमायोपाथी' (Cardio-Myopathy) अशें म्हण्टात. हे पिडेचेर खास अशे उपचार नात, पूण हृदय अकार्यक्षमतेचेर (Heart Failure) जीं वखदां वापरतात त्याच वखदांचो उपेग हांगाय जाता.

- डॉ. जी. के. सालेलकार

## काळोखे, गणपत पांडुरंग:

(जल्मः १८८०, बिठ्ठोण-बारदेस).

मनशाचे भलायके संबंदी लिखाण करपी आदले मुस्तींतलो गोंयकार लेखक. ताणें मुळावें शिक्षण गोंयांत घेतलें आनी फुडलें शिक्षण घेवंक तो मुंबय गेलो. थंय ताणें आयुर्वेदिक पध्दतीचें वैजकी शिक्षण दिवपी पोपट त्रभुराम आयागल कॉलेजींत प्रवेश घेतलो. १९१० वर्साच्या सुमाराक तो हे कॉलेजींतल्यान वैजकी शास्त्रांत पदवीधर जालो. उपरांत मुंबय तो स्वतंत्र वैजकी वेवसाय करूंक लागलो.

१९११ वर्सा सावन ताणें लिखाण सुरू केलें. ह्या वर्सा 'अग्निमांद्य' (Dyspepsia) ह्या विशयाचेर १२५ पानांचें पयलें पुस्तक ताणें बरयलें. उपरांत १९३४ वर्सामेरेन ताणें भलायकेचेर आनीक तेरा पुस्तकां बरयलीं, 'रोगजंतु' 'रोगोत्पादक प्राणी', 'अशक्त', 'क्षयरोग', 'फिरंगरोग', 'विद्यार्थ्यांचे आरोग्य', 'दातांचे आरोग्य', 'सार्वजनिक आरोग्य', 'स्त्रियांचे आरोग्य' हीं ताच्या कांय पुस्तिकांचीं आनी पुस्तकांचीं नांवां आसात. पूण ताणें बरयल्लें सगळ्यांत म्हत्त्वाचें पुस्तक म्हळ्यार 'विषमज्वर' ७०० पानांच्या तीन भागांत बरयल्ल्या ह्या ग्रंथांत 'विषमज्वर' हो रोग आनी ताचेवेलो उपाय हाचेविशीं पुराय माहिती विस्कटावन सांगल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## काँगो:

काँगो प्रजासत्ताक. मध्य आफ्रिकेंतलें एक स्वतंत्र राष्ट्र. क्षेत्रफळ ३,४२,००० चौ. किमी. लोकसंख्याः २०,९७,००० (१९८[illegible]). अक्षवृत्तीय विस्तार सुमार ३° ४५' उत्तर ते ५° दक्षिण, रेखावृत्तीय विस्तार सुमार ११° उदेंत ते १८° ३०' उदेंत. दक्षिण- उत्तर अंतर सुमार ९४५ किमी. आनी उदेंत-अस्तंत अंतर सुमार ४२५ किमी. विषुववृत्त ह्या देशाच्या मदल्यान वता. हाचे उत्तरेवटेन कॅमरून आनी मध्य आफ्रिका प्रजासत्ताक, उदेंतेक आनी दक्षिणेक झायरे, नैर्ऋत्येक अंगोलाचो काबिंदा हो प्रांत, अस्तंतेक ॲटलांटिक म्हासागर आनी गाबाँ हो देश आसा. ह्या देशाक सुमार १५० किमी. लांबायेची दर्यादेग लाबल्या.

**भूंयवर्णनः** हो देश म्हळ्यार काँगो न्हंयच्या व्हडल्या देगणाचोच एक वांटो जावन आसा. उबांगी-काँगो हे न्हंयच्या देगांवयल्या मळांच्या वाठारांतल्यान मोटाबा, लीक्वाला, सँग्गा, आलीमा ह्यो न्हंयो व्हांवतात. ह्या न्हंयांचे फांटे बरेचकडेन एकामेकांक मेळटात आनी पर्यून पयसावतात. हे गजालीक लागून हांगा बरेच चिखलाचे वाठार निर्माण जाल्यात. क्वीलू ही न्हंय क्रिस्टल पर्वतांतल्यान व्हांवत येत सुमार ३२५ किमी. चें अंतर सोपोवन ॲटलांटिक म्हासागराक मेळटा. तिका दक्षिणेवटेंतल्यान नियारी ही न्हंय मेळटा. नियारीचेर बरेच धबधबे आसात.

**हवामान, वनस्पत आनी मोनजातः** हो देश विषुववृत्ताच्या दोनूय वटांनी सुमार ५° पातळिल्लो आशिल्ल्यान हांगाचें हवामान उश्ण आसता. वर्सुकी सरासरी तापमान २०° से. ते ३०° से. आसता. वर्सुकी सरासरी पावस २०० सेंमी. ते २५० सेंमी. मेरेन पडटा. तांतल्या तातूंत जानेवारी ते मार्च आनी जून ते सप्टेंबर हे म्हयने उण्या पावसाचे आसतात.

विषुववृत्तालागीं जावपी दाट रानां ह्या देशांत आसात. कांय वाठारांनी गच्च रानांक लागून सूर्याचो उजवाड लेगीत जमनीमेरेन पावना. ऊंच रूख आनी वालींवांगडा गच्च झोंपाय हांगा आसात. सॅव्हाना प्रकारचें तण बाटेके ह्या रेंवेच्या पठाराचेर, नियारी देगणांत आनी दर्यादेगांवयल्या कांय वाठारांनी सांपडटा.

रानांनी गोरिला, चिंपँझी, हेर तरेकवार माकडां, सोरोप, सुकणीं ह्या सारकी मोनजात आसा. रानां आनी तणांचे वाठार हांचेमदल्या प्रदेशांनी रानवटी हती, म्हशी, ओकापी, तरस, चित्ते ह्या सारके प्राणी आसात. न्हयांतल्यान मानगीं, हिप्पोपोटॅमस आनी हेर उदकांतली मोनजात आसा. ह्या देशांत शिंव मात उण्याच प्रमाणांत दिसून येतात.

**इतिहासः** ह्या देशांतले पिग्मी लोक उबांगी न्हंयच्या वाठारांतल्यान हांगा आयल्यात आसूंये अशें जाणकारांचें म्हणणें आसा. पंदराव्या शतमानांत काँगो लोक हांगा आयले. टेके जमातीच्या लोकांनी स्टॅन्लीपूल वाठारांत राबितो केल्लो. इशान्येवटेन म्बोची लोक आशिल्ले. ते गांवां




भोंवतणी वंयो बांदून रावताले. लीक्वाला आनी सँग्गा न्हंयांच्या चिखलाच्या वाठारांनी पिग्मी लोक रावताले. ह्या सगळ्या जमातींची ल्हान व्हड राज्यां आशिल्लीं. पूण पंदराव्या शतमानामेरेन संवसारांतल्या हेर लोकांक हांची कांयच म्हायती नाशिल्ली. पोर्तुगेज भोंवडेकार काउं दियोगु हाणें १४८२ त काँगो न्हंयच्या वाठाराचो सोद लायलो. ताचे उपरांत अठराव्या शतमानांत दर्यादिगेलागच्या राज्यांत किरिस्तांव धर्माचो प्रसार जालो. दर्यादिगांवयल्या काबिंदा, लोआंगो आनी मायूबा ह्या बंदरांतल्यान गुलामांचो वेपार चलतालो. हांगाचीं राज्यां गुलामांचे बदलेक तुबकां आनी लुंग्यो घेतालीं. १९ व्या शतमानांत गुलामांच्या वेपाराचेर बंदी आयली आनी दर्यादिगांवयल्या राज्यांचो शेक उणो जावन तीं काबार जालीं.

१८७७ त स्टॅन्ली हो भोंवडेकार काँगो न्हंयतल्यान स्टॅन्लीपूलामेरेन आयलो आनी देशाच्या भितरल्या वाठारांनी पावलो. १८७८ त पॅअर साव्होर्न्यां द ब्राझा हो ओगोवे न्हंयच्या मार्गांतल्यान भितरल्या वाठारांनी पावलो पूण थळाव्या लोकांनी ताका धांवडावन घालो. पूण १८८० तो पर्यांन स्टॅन्लीपूल मेरेन आयलो आनी थंयच्या राजावांगडा कबलात करून ताणें तो वाठार फ्रांसाखातीर घेतलो. थंय ताणें ब्राझव्हिल शाराची थापणूक केली. फुडें ताणें आनीक भोंवडी करून लोआंगो आनी प्वॅंतन्वार ह्या शाराची थापणूक केली. १८९१ त फ्रेंच काँगोचे वसाहतीची थापणूक जाली. १९०३ त ते वसाहतीक काँगो हें नांव मेळ्ळें.

आफ्रिका खंडांच्या हेर वाठारांनीय फ्रेंचांच्यो वसाहती आशिल्ल्यो. ब्राझव्हिल हें शार तांची राजधानी जाली. ह्या देशाचेर पुरायपणान फ्रेंचांचो शेक चलूंक लागलो. दुसऱ्या म्हाझुजांत हांगाच्या फेलीक्स एबू ह्या फ्रेंच गव्हर्नर जनरलान काँगोतल्या लोकांचे फ्री फ्रेंच हे चळवळीक फाटबळ मेळयलें. इतले मजगतीं आफ्रिकेंत राश्ट्रवादी विचारांक पोसवण मेळूंक लागिल्ली. द गॉल हाणें गव्हर्नर जनरलावांगडा भासाभास करून १९४४ त ब्राझव्हिल हांगा फ्रांसाचे वसाहतीविशीं नवीं धोरणां मुखार दवरलीं. १९४६ त काँगो हो फ्रांसाचो दर्या पलतडचो वाठार अशें जाहीर जालें. तांच्या प्रतिनिधींक फ्रेंच पार्लमेंटांत सुवात मेळ्ळी आनी तांकां थळावी विधानसभा घडोवपाचे अधिकार मेळ्ळे. १९५८ त काँगोन फ्रेंच कम्युनिटींत स्वतंत्र स्वायत्त प्रजासत्ताक म्हूण रावपाची घोशणा केली. फुडें १५ ऑगस्ट १९६० त ह्या देशाक पुरायपणान स्वतंत्रताय मेळ्ळी.

स्वतंत्रतायेउपरांत रेखडोच काँगो संयुक्त राश्ट्रांचो वांगडी जालो. ह्याच सुमाराक हांगा अंतर्गत झगडीं जावंक लागिल्लीं. बाझव्हिल हांगाचे बसकेंत राश्ट्रीय क्रांती चळवळींतल्या (National Revolutionary Movement) वांगड्यांमदीं मतभेद जाले. जानेवारी १९६४ त राश्ट्रीय क्रांती चळवळीन आपलें संविधान जाहीर केल्लें, तातूंत सरकारापरस पक्ष व्हड अशें तत्त्व मानून घेतिल्लें. पंतप्रधान पास्काल लिसौब हाणें राजीनामो दिलो. पक्षांतल्या वादा उपरांत हांगा राजकी थीरपण येवंक बरेंच कठीण जालें. आफोंस मसांबा हो तात्पुरतो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९६४ तच काँगोचे रशिया आनी चीनाकडले संबंद वाडले. एका पक्षाचे साम्यवादी धर्तेचेर विज्ञानीक समाजवादी राज्य हांगा हाडपाचो आपलो हेत मसांबान जाहीर केलो.

४ सप्टेंबर १९६८ त मारॅस एन्गुआबी ह्या सैन्यांतल्या अधिकाऱ्यान बंड करून मसांबाक सत्तेवयल्यान काडून उडयलो आनी स्वता राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९७७ त एन्गुआबी हाचो खून जालो आनी कर्नल झोंबी ओपांगो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९७९ त ओपांगो हाणें राजीनामो दिलो आनी कर्नल डेनिस सासाउ एन्गेसाउ राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९८४ त जाल्ल्या वेंचणुकांनी पर्यांन ताकाच लोकांनी राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून काडलो.

**राज्यवेवस्था:** १९७९ च्या संविधानाप्रमाण राश्ट्राध्यक्ष हो देशाचो मुखेली आसा. 'पीपल्स नॅशनल ॲसेंब्ली' हें हांगाचे विधीमंडळ. ह्या

देशांत कोंगोलिज लेबर पार्टी हो एकूच अधिकृत राजकी पक्ष आसा. नॅशनल असेंब्ली खातीर दर पांच वर्सांनी वेंचणुको जातात.

थळाव्यां राजकारभाराची वेवस्था ९ प्रांत आनी ब्राझव्हिल ह्या राजधानीच्या खासा प्रातांतल्यान चलता. ह्या प्रांतांचें फुडें ४६ तालुक्यांनी वांटे केल्यात.

**अर्थीक स्थिती:** शेतवडीच्या मळार हांगा व्हडलेशें उत्पादन जायना. चडशी जमीन नापीक आसा. शेतवड पोरने पारंपारिक पध्दतीन करतात. कसावा, केळीं, कणगां, मॅनिओक हीं हांगाचीं मुखेल पीकां आसात. हे भायर लिंबाचे जातीचीं फळां, ताड, कोला, रबर, तंबाखू, कॉफी, कोको, मसमी भिकणां हांचेंय उत्पादन हांगा जाता. ल्हव ल्हव आर्विल्ले शेतपध्दतीन पिकां काडपाचे यत्न चलल्यात. कापूस, साकर, तेलाच्यो बियो हांच्या उत्पादनांत कांय प्रमाणांत सुदारणां जाल्या. रानां जरी बरींच काबार जाल्यांत तरी ४०% परस चड वाठारांत रानां तिगून उरल्यांत. लांकडाची निर्यात जाल्ल्यान वेपाराक बरोच पालव मेळटा.

मायूंबेचे देवतेचेर भांगराच्यो आनी हिऱ्याच्यो खणी आसात. म्व्हूती आनी मिंडौली हांगा तांबें सांपडटा. ह्या वाठारांत शिशाच्योय बऱ्योच सांठ्वणी आसात. फॉस्फेट आनी तेलाचें उत्पादन बरेंच आसा. हेर खनिजांच्योय हांगा सांठ्वणी आसात. पूण येरादारीच्या अडचणींक लागून तांचो पुरायपणान उपेग जायना.

उद्येग धंद्याच्या मळार हांगा हालींच्याच वर्सांनी वावर जावंक लागला. पामतेल, साकर, बीयर, शाबू सारक्या गजालींचे कारखाने हांगा आसात. पर्यटन उद्येगांतल्यान देशाची अर्थीक स्थिती सुदारपाचे यत्न चालू आसात.

ह्या देशांत यंत्रां, विद्यूत उपकरणां, वाहनां, कपडो, रबर आनी प्लास्टिकच्यो वस्तू, रसायनां ह्या सारक्या गजालींची आयात करची पडटा. आयात चडशी फ्रांस, ब्राझील, बेल्जियम, जपान, अमेरिका, नेदरलँड्स आनी इटली ह्या देशांतल्यान जाता.

निर्यात करपासारक्यो गजाली म्हळ्यार हिरे, पेट्रोलियम, कोको, तंबाखू, निर्यातीचे वेव्हार अमेरिका, इटली, स्पेन, फ्रांस, बेल्जियम, लक्झेंबर्ग ह्या देशालागीं जातात.

सी. एफ्. ए. फ्रँक हें हांगाचें अधिकृत चलन.

**येरादरी आनी संचारण:** १९८५ मेरेन ह्या देशांत ११,००० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. हातूंतले बरेच उणे रस्ते पक्के आसात. रेल्वेमार्गाची लांबाय १९८३ मेरेन ८०२ किमी. आशिल्ली. बरीच येरादारी न्हंय-मार्गांतल्यान जाता. काँगो आनी उबांगी ह्यो न्हंयो उदका येरादारीखातीर भोव उपेगाच्यो थारतात. पॉइंट नोयरे हें हांगाचें मुखेल बंदर आसा. ताच्यावरवीं काँगोचो हेर देशांवांगडा वेपार चलता. हवाईमार्गाचेर येरादारी लिना-कोंगो हे संख्येवरवीं चलता. मायामाया हो ब्राझव्हिललागीं आशिल्लो विमानतळ आनी पॉइंट नोयरे हे हांगाचे आंतरराष्ट्रीय विमानतळ आसात. १९८५ मेरेन हांगासावन ४ दिसाळीं उजवाडाक येतालीं. सगळीं दिसाळीं फ्रेंच भाशेंतल्यान आसात आनी खाजगी मालकीचीं आसात. रेडिओ आनी दूरचित्रवाणीचेर जावपी कार्यावळी फ्रेंच भाशेंतल्यान जातात. बऱ्योच कार्यावळी फ्रांसासावन वितरायतात. सरकाराचें बऱ्याच प्रमाणांत प्रसार माध्यमाचेर नियंत्रण आसा.

**लोक आनी समाजजीवन:** काँगोंतले चडशे लोक बांटू पंगडाचे आसात. तांच्यांत बऱ्योच जमाती आसात. हातूंतल्यो म्हत्वाच्यो म्हळ्यार कोंगो, बाटेके, म्बोची, सांधा, बान्गी, टेके आनी पिग्मी- बान्गी आनी टेके मध्य काँगोंत, कोंगो, ब्राझव्हिल आनी दक्षिण काँगोंत दर्यादेगेलागीं आनी पिग्मी लोक उत्तरेकडेनच्या रानांनी रावतात. हेर जाती सगळेकडेन पातळल्यात. हे जमातींमदले पिग्मी मोटवे आनी रानांनी रावपी आसात. हे लोक हेडगे आसतात आनी शिकार करुन पोट भरतात. तांचो हेर जामतींकडेन संबंद आयिल्ल्यान भरसण जाल्ल्यो हेर जमाती निर्माण जाल्यात. तांकां 'पिग्मायड' म्हणटात. पिग्मायड हे पिग्मींपरस मात्शे लांब आसतात.

बांटू लोकांचो रंग अस्तंतेवटेनच्या निग्रो लोकांपरस उजळ आसा. ते लांबायेन निग्रो लोकांपरस मोटवे आसात आनी तांचें नाक सरळ आसता. ओंठ्य निग्रो लोकांभशेन जाड नासतात. पूण सगळेच बांटू एकसारके नात. हांचो पूर्विल्लो धर्म म्हळ्यार सैम पूजा; पूण यूरोपीय पाद्रींनी तांकां किरिस्तांव केल्ले. १४९१ त काँगोच्या राजान किरिस्तांव धर्म आपणायलो आनी किरीस्तांवांचें हांगा प्रमाण वाडलें. पूण अजून पोरन्यो धर्मपध्दती आनी विधी हे लोक पाळटात.

लग्नाच्या वेळार चल्याच्या बापायन चलयेच्या बापायक हुंडो दिवंचो पडटा. शिकिल्ल्या तरनाट्याकय हुंडो दिवचो पडटा. ताका लागून बरेच तरणाटे शारांनी येवन कामां करतात आनी पैशे जमोवन मागीर लग्नां करतात. तांकां एकापरस चड बायलो करपाची मेकळीक आसता. हातूंतली एक मुखेल आसता, पूण सगळ्याच बायलांक एकसारकी वागणूक मेळटा. ह्या समाजांत बायलांची सुवात बरी आसा. दरेक बांटूक आपल्या समाजाचो अभिमान आसा. जादू, मंत्रतंत्र, करण्यो असल्या गजालींचेर ह्या लोकांचो बरोच विस्वास आसा.

हांगाचे सुमार ५३.९ % लोक रोमन कॅथलिक, २४.४% प्रॉटिस्टंट, १९.०% जडप्राणवादी (animists) आनी हेर २.७ % आसात.

विसाव्या शतमानासावन हांगा उदरगतीची सुलूस लागिल्ल्यान आनी शारांचें प्रमाण वाडिल्ल्यान समाज जीणेंत बरेच बदल घडल्यात. रानवट पध्दतीचें जिवीत जियोवपी हांगाचे लोक ल्हव ल्हव बदलत गेल्यात. काँगो देश कला आनी खेळ हांच्या मळार हेर आफ्रिकन देशांपरस मुखार आसा. तांची अनुवंशिक कला म्हळ्यार लांकडाचेर कोरांतिल्लें काम. कितल्याशाच जमातींनी रुपडीं, धर्मीक नृत्यांवेळार वापरपाच्यो आनी हेर कलाकृती करपी कलाकार आसात. अशा कलाकारांक भोवमानाची वागणूक मेळटा.

हालींच्या काळांत फुटबॉल, व्हॉलीबॉल, बास्केटबॉल आनी ॲथलॅटिक्स हे खेळ बरेच लोकप्रिय जाल्यात.

**शिक्षण:** काँगोचें राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण २०% आसा. हांगा स ते सोळा वर्सांमेरेन पिरायेच्या विद्यार्थ्यांक शिक्षण फुकट, सक्तीचें आनी एकसारकें आसा. शिक्षणिक वर्स ऑक्टोबर ते जूनमेरेन चलता. शिक्षणाचें माध्यम फ्रेंच भाशेंतल्यान आसा. मुळावें, माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक अशें तीन पांवड्यावयलें तेरा वर्सांचें शाळेंतलें शिक्षण आसता.

शिक्षण मंत्रालयाचें शिक्षणाचेर नियंत्रण आसता. उंचेल्या पांवड्यावयलें शिक्षण दिवपाचो वावर ब्राझव्हिल हांगाच्या कोंगोलिज विश्वविद्यालयावरवीं जाता. हांगाचे बरेच विद्यार्थी, फ्रांस, अमेरिका, रुमानिया ह्या सारक्या देशांनी शिक्षण घेवपाखातीर वचून रावल्यात.

**भाशा आनी साहित्य:** बांटू पंगडांतल्यो बऱ्योच भाशा हांगाचे लोक वेव्हारांत वापरतात. तेभशेन नायजर काँगो पंगडांतल्योय बऱ्योच भाशा उपेगांत येतात. तांतल्यो कि- काँगो, ब-काँगो, एम्बोंची भाशा; तशेंच सांधा आनी पिग्मी लोकांची भाशा चड प्रचारांत आसात. काँगोंत जमातीचें प्रमाण चड आशिल्ल्यान भाशांचेय प्रमाण बरेंच आसा. बरयल्या साहित्याची निकतीच उदरगत जावंक लागल्या. लोक साहित्य मात व्हडा प्रमाणांत आसा. हरशीं हेर सरकारी कामकाजाखातीर फ्रेंच भाशेचो आदार हांगाच्या लोकांक घेवंचो पडटा.

**म्हत्वाचीं थळां:** हांगाचीं म्हत्वाचीं थळां म्हळ्यार ब्राझव्हिल ही राजधानी आनी प्वेंतन्वार, प्वेंत्न्वार हें एक बंदर आनी हालीं थंय तेलाचें उत्पादन सुरू जालां.

- कों. वि. सं. मं.

**काँग्रेस, इंडियन नॅशनल:** भारतांतलो एक म्हत्वाचो राजकी पक्ष. ह्या पक्षाची स्थापणूक २८ डिसेंबर १८८५ ह्या दिसा मुंबय ॲलन ऑक्टेव्हिअन ह्यूम हाच्या यजमानपणाखाल जाली.

**पक्ष स्थापणूके फाटलीं कारणां:** ब्रिटीश राजवटीच्या जुलमी शेकाक लागून सादारण भारतीय मनीस उबगल्लो आनी ताका लागून हे

राजवटीआड असंतोश धगधगतालो. ह्या असंतोशाक संघटीत रूपांत एकवटीत करपाचो यत्न कांय राजकी संघटना, संस्था आनी परिशदो करताल्यो. ह्या संघटनांवरवीं राजकी सुदारणांची मागणी आनी जनतेची गाराणीं मांडपाचो यत्न जातालो. १८५१ त डॉ. राजेंद्रलाल मित्र, रामगोपाल घोष हांणी 'इंडियन असोसिएशन ऑफ बंगाल'ची स्थापणूक केली. पूण ती चड काळ तिगली ना. १८७६ त सुरेंद्रनाथ बानर्जीन 'इंडियन असोसिएशन ऑफ बँगॉल प्रेझिडेन्सी' ह्या नांवांन संस्थेची पर्थून निर्मणी केली. १८८१ त मद्रासांत महाजन सभेची स्थापणूक जाली. २६ ऑगस्ट १८५२ ह्या दिसा 'बॉम्बे असोसिएशन' हे संस्थेची स्थापणूक जगन्नाथ शंकरशेट, डॉ. भाऊ दाजी लाड हांणी केल्ली. कांय वर्सांनी तिचें कार्य बंद पडलें. ३१ जून १८८५ दिसा 'बॉम्बे प्रेझिडेन्सी असोसिएशन' ह्या नांवान तिची पर्थून स्थापणूक जाली. इंग्लंडांत दादाभाई नौरोजीन, फिरोझशाह मेहता, कां त्र्यं. तेलंग, बद्रूद्दीन तैय्यबजी ह्या आपल्या वांगड्यांक घेवन ईस्ट इंडिया असोसिएशन हे संस्थेची स्थापणूक केली. हे संस्थेक लागून ब्रिटीश जनतेची नदर भारतीय लोकांकडेन गेली.

**काँग्रेसची थापणूकः** वयल्यो संस्था योग्य मार्गान आपल्यो चळवळी चलयताल्यो आसल्यो तरी तांचो आवांठ व्हड नासलो. तेखातीर जायते राश्ट्रीय फुडारी देशाखातीर एक अखंड राजनितीक संगठन घडोवपाक सोदताले आनी तसो यत्नूय करताले. ब्रिटीश अधिकाऱ्यांमदीं ए. ओ. ह्यूम, व्हाईसरॉय लार्ड डफरीनसारके लोक भारतांत थळाव्या लोकांचें राज्य येवंचे, तांकां तांचे हक्क मेळचे ह्या मताचे आसले.

हेखातीर ए. ओ. हूम सारक्या फुडाऱ्यांनी त्या काळांतले भारतीय फुडारी आनी विचारवंत हांच्या पालवान २८ डिसेंबर १८८५ ह्या दिसा मुंबयत 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस'ची स्थापणूक केली. काँग्रेसीचें पयलें अधिवेशन मुंबयंत गोवालिया टँक लागीं गोकुळदास तेजपाल संस्कृत पाठशाळेंत भरलें. हे सभेचो यजमान उमेशचंद्र बानर्जी आसलो. भारतांतले ७२ प्रतिनिधी हे परिशदेक हाजीर आसले. हातूंत फिरोजशहा मेहता, दादाभाई नौरोजी, डी. ई. वाच्छा, न्यायमूर्ती म. गो. रानडे, बद्रूद्दीन तैय्यबजी, रा. गो. भांडारकर, कां. त्र्यं. तेलंग, पी. आनंद चारलू, एस्. सुब्रह्मण्यम अय्यर, दिवाणबहादूर रघुनाथराव, केशव पिल्ले नारायणराव जी. चंदावरकर, गो. ग. आगरकर हांचो आस्पाव जाता.

**इतिहासः** काँग्रेसीच्या पयल्या अधिवेशनांत धर्मनिरपेक्षतायेच्या सुत्रावरवीं भारतांत एक राश्ट्रीयत्त्वाचें तत्त्व निर्मुपाचें काँग्रेसीन मानून घेतलें. ह्या अधिवेशनांत ज्यो हेर मागण्यो मान्य जाल्यो त्यो अशोः-

१. शासनयंत्रणेंत लोकांचे मागणेप्रमाण सुदारणा करप. २. इंग्लंडांतल्या ब्रिटीश रावजटीकडेन वैचारिक संपर्क सादप. ३. विधीमंडळांत लोकांनी वेंचून काडिल्ले वांगडी आसचे. ४. लश्करी खर्च कमी करचो. ५. सरकारांत उंचेल्या जागांचेर भारतीय लोकांक आस्पावन घेवचे आदी.

१८८६ वर्सा कलकत्ता अधिवेशनांत अध्यक्ष दादाभाई नौरोजीन वादावादीचे घुस्पटींत पडिल्ल्या समाजीक प्रस्नांत काँग्रेस घुस्पूंक सोदिना तशेंच ही संस्था शुध्द राजकी संघटना आसा अशें जाहीर केलें. ह्या उपरांत दर वर्सा डिसेंबराच्या म्हयन्यांत काँग्रेस पक्षाचें अधिवेशन देशाच्या विंगड विंगड भागांत भरूंक लागलें. सुर्वेक ही संघटना फकत ब्रिटीश सरकाराकडेन सवलतीच्यो मागण्यो करताली. अधिवेशनांत संमत जावपी थराव सरकाराकडेन धाडटाले. एकाद्रो वेळ संघटनेचें शिश्टमंडळय सरकाराकडेन भासाभास करपाक वतालें. सरकाराच्या धोरणाचेर सभ्य टिकाय जाताली. अर्ज विनवण्यांवरवीं भारतीयांक ब्रिटिशांकडल्यान राजकी हक्क मेळटले अशी तांची अपेक्षा आसली. १९०५ त व्हाईसरॉय लॉर्ड कर्झनान बंगालचे दोन कुडके केले. वयले घडणुकेक लागून काँग्रेसीचे ब्रिटिशांविशींचे कल्पनेक धक्को बसलो. लॉर्ड कर्झनाच्या ह्या धोरणाचो भारतानच न्हय तर ब्रिटीश खबरांपत्रांनी लेगीत निशेध केलो. काँग्रेसीन बंगालच्या दोनूय भागांत सुमार २००० भौशीक जमाती घडोवन हाडल्यो आनी ह्या निर्णयाक विरोध परगटायलो. हिंदू आनी मुसलमान ह्या वेळार ब्रिटिशांआड एकठांय आयले.

१९०६ त कलकत्ता हांगा काँग्रेसच्या अधिवेशनांत दादाभाई नौरोजीच्या यजमानपणाखाल एक थराव मांडलो. तातूंत स्वराज्याचे अधिकार क्रमान, राजकी सुदारणावरवीं कशे मेळोवप हाची वळेरी तयार केली. देशांतली गरीबी आनी दळीद्र सोपोवंक लोकांनी स्वदेशी व्रताचें पालन करचें अशें आवाहन केलें. तेभायर अधिवेशनांतल्यो हेर येवजणी म्हळ्यारः

१. सरकाराचेर चेंपण हाडपाखातीर परदेशी म्हालाचेर खास करून ब्रिटीश म्हालाचेर बहिश्कार घालप २. सरकारी शिक्षण फकत सरकारी नोकर घडोवपी शिकप आशिल्ल्यान राश्ट्रीय शिक्षण दिवपी संस्थांची थापणूक करप आनी हेर.

स्वराज्य, स्वदेशी, बहिश्कार आनी राश्ट्रीय शिकप हीं चळवळीचीं चार मुखेल सुत्रां आसलीं. काँग्रेसीच्या नव्या सुशिक्षित पंगडाक हीं सुत्रां मान्य नासलीं. अशे तरेन तांचेमदीं खर मतभेद जावन, काँग्रेसींत नेमस्त (थंड) आनी जहाल (खर) अशे दोन पंगड जाले. ब्रिटिशांचे राजनितीचेर विधायक मार्गान भारतीय लोकांचो प्रभाव पडूंक शकता अशें नेमस्त पंगडाचें मत आसलें. स्वराज्याची चळवळ बहिश्कार आनी कायदेभंगामेरेन पावल्याबगर गत्यंतर ना अशें लोकमान्य टिळक हाच्या पंगडाक दिसतालें. १९०७ वर्साच्या सुरत अधिवेशनांत दोनूय पंगडांत उक्ती फूट पडली.

ह्याच काळांत उदेंत बंगालचो नायब राज्यपाल बी. फुल्लर हाणें मुसलमान लोकांचो तेंको मेळोवपाखातीर काँग्रेस ही एक हिंदू संघटना आसा अशें जाहीर केलें. ताणें मुसलमान संस्थांक आपलो पुराय पालव आनी फाटबळ दिलें. सुर्वेच्या काळांत काँग्रेसीचेर अशे खर आघात जाले.

१९०७ सावन १९१५ मेरेन काँग्रेसचें फुडारपण नेमस्त पंगडाकडेन उरलें. सरकारान ह्या काळांत जहाल पंगडाआड कडक कारवाय केली. टिळकाचेर राजद्रोहाचो आरोप दवरून स वर्सांची बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. सरकाराच्या ह्या अन्यायाआड खर आंदोलनां जालीं. निमणें १९११ त सरकारान 'बंगालची फाळणी' रद्द केली. ४ ऑगस्ट १९१४ वर्सा पयल्या संवसारीक म्हा-झुजाची सुरवात जाली. ह्या म्हाझुजाचें भांडवल करून ब्रिटीश सरकारान भौसाचेर जबर अत्याचार चालूच दवरले.

१९१६ त लखनौ अधिवेशनांत हिंदू-मुसलमान एकवटाचो प्रस्न घुस्पागोंदळाचो जाल्लो. टिळक ह्या अधिवेशनाक हाजीर आसलो. ह्या वेळार जहाल आनी नेमस्त हे दोनूय पंगड एकठांय आयले. हिंदू मुसलमान एकचाराची लखनौ कबलात दोनूय धर्माच्या फुडाऱ्यांमदीं टिळकाचे हजेरींत मानून घेतली. १९१७ त ॲनी बेझंट आनी लोकमान्य टिळक हांणी स्वराज्याचे चळवळीक नेट येवपाखातीर होम रुल लीगाची थापणूक केली.

काँग्रेस पक्षांत हो वेळ मेरेन पुराय स्वराज्य मागचें वा वसाहतीचें स्वराज्य मागचें हेविशीं मतभेद आसले. पयलें म्हाझूज सोंपतकच ब्रिटिशांनी मॉंटेग्यू-चेम्सफर्ड आयोग नेमलो. ह्या आयोगान ज्यो सुचोवण्यो केल्ल्यो, ताचेर भारतीय फुडारी खोशी नासले. भारतीय भौस ह्या आयोगाच्या सुचोवण्यांक लागून खुबळत असो भंय दिशिल्ल्यान सरकारान रौलॅट आयोग नेमलो. रौलॅट आयोगाचे सुचोवण्यांप्रमाण दडपशाय करपाक मेळची म्हूण एक अधिनियम केलो आनी तो चालीक लावपाचो यत्न जालो.

महात्मा गांधीच्या रूपान, भारत सुटके चळवळीक एक तेजीश्ट फुडारपण ह्याच काळांत मेळळें. सत्य, अहिंसा, त्याग आनी बलिदान ह्या तत्त्वांचेर आदारिल्ल्या नव्या सत्याग्रहाची दिक्षा ताणें भारतीयांक दिली. रौलॅट कायद्याक विरोध करपाक ही नवी नीत गांधीजीन आपणायली. तेखातीर तो देशभर भोंवलो आनी ताणें लोकांक सरकाराआड उबे केले. ३० मार्च १९१९ ह्या दिसा देशांतल्या चडशा भागांनी एक यशस्वी हरताळ जालो. १३ एप्रिल १९१९ ह्या दिसा पंजाबांत अमृतसर हांगा

जालियनवाला बागेंत दडपशायेच्या कायद्याक विरोध करपाक एक व्हड जमात भरिल्ली. हे जमातीचेर जनरल डायर हाच्या हुकमावेल्यान भियंकूळ गोळीबार जालो. हातूंत शेंकड्यांनी लोकांक जिवेशीं मारले. भारतभर ब्रिटिशांआड असंतोश वाडीक लागलो. ह्या सगळ्या घडणुकांचो परिणाम काँग्रेसीचेर जायत रावलो. १९२० नागपूरांत काँग्रेसचें अधिवेशन भरलें. तातूंत असहकार आंदोलनाचो थाराव एकमतान मानून घेतलो. ह्या आंदोलनांत लाखांनी शिकपी भुरग्यांनी वांटो घेतलो. हजारांनी लोकांनी सरकारी नोकऱ्यो सोडल्यो. वकिलांनी वकिली सोडली. लाखांनी लोक बंदखणींत पडले. हें आंदोलन दोन वर्सां चल्लें.

ह्या आंदोलनाचो नेट देंवलो, तेन्ना एका पंगडान विधिमंडळांत भितर सरून काँग्रेसीचें कार्य करचें अशें थारायलें. ह्या पंगडांत चित्तरंजन दास, मोतीलाल नेहरू, न. चिं. केळकर हे फुडारी आसले. तांणी काँग्रेसीभितर रावन, 'स्वराज्यपक्ष' ह्या नांवान विधिमंडळाच्यो वेंचणुको लडयल्यो. महात्मा गांधीचे समर्थक विधिमंडळाचेर बहिश्कार घालचो ह्या मताचे आसले. फुडें हो पक्ष विरार्जीत जालो आनी काँग्रेस पक्षाचे वतीन काम पळोवपाक लागलो. १९२४ ते १९२९ मेरेन गांधीवादी समर्थक विधायक कार्यांत घुसून पडिल्ले आनी तांच्या आंदोलनाचो नेटय देंविल्लो. १९२७ वर्सा मद्रास अधिवेशनांत पुराय स्वातंत्र्याची मागणी करपी एक थाराव मानून घेतलो. ह्याच काळांत ब्रिटीश सरकारान शासन सिध्दान्त भारताच्या कितल्या आंवाठाभितर लावं येतात हाचो विचार करपाखातीर सायमन कमिशन नेमलें. हे गजालीचो काँग्रेसीन खर विरोध केलो. ३ फेब्रुवारी १९२८ दिसा सायमन कमिशन मुंबय शारांत पावलें. ह्या वेळार लाला लजपतरायाच्या फुडारपणाखाल काँग्रेसीन 'सायमन परत वचात' म्हूण उलो दिलो आनी व्हड निदर्शनां घडोवन हाडलीं. ह्या निदर्शनांवेळार पोलिसांवांगडा जाल्ले घुस्पटींत लाला लजपतराय हाका बरोच मार बसलो आनी तातुंतूच तो सोंपलो.

१९२९ त लाहोरांत, काँग्रेसीन पुराय स्वातंत्र्याची घोशणा केली. ह्यावेळार पंडित जवाहरलाल नेहरू काँग्रेसीच्या अध्यक्षपदाचेर आसलो. काँग्रेसीचे हे घोशणेन काँग्रेसीचो मूळ उद्देश बदल्लो. तेचपरी ब्रिटीश राजवट भारतांतल्यान सदांखातीर वचची हे मागणेक नेट आयलो. १६ फेब्रुवारी १९३० ह्या दिसा काँग्रेस कार्यकारिणीची बसका जाली. तातूंत महात्मा गांधीच्या फुडारपणाखाल सविनय कायदे-भंगाची चळवळ करपाचो थाराव मानून घेतलो. २१ मार्च १९३० ह्या दिसा अहमदाबाद हांगा अखिल भारतीय काँग्रेसची बसका जाली. हे बसकेंत ह्या थारावाक, मान्यताय मेळ्ळी. ह्या दिसा म. गांधीची नामनेची 'दांडीयात्रा' सुरू जाली. ही यात्रा साबरमतीसावन सुरू जाली आनी दांडी गांवांत सोंपली. गांधीजीन ६ एप्रिल १९३० दिसा दर्यादेगेवेले मीठ उखलून, सरकाराच्या मीठ कायद्याचो भंग केलो. ९ एप्रिलाक गांधीजीन थळाव्या लोकांक मीठ कायद्याक विरोध करून मीठाचें उत्पादन करचें अशें मागलें. ह्या उपरांत पुराय देशांत मीठ कायद्याचो भंग, सोरो आनी परदेशी लुगटांचेर बहिश्कार, दुकानांमुखार धरणें ह्या सारक्यो कार्यावळी घडपाक लागल्यो. निमणें ब्रिटीश सरकारान आपली नीत सोडली आनी जायत्या काँग्रेस फुडाऱ्यांक बंदखणींतल्यान सोडले.

ब्रिटीश सरकार एकेवटेन लोकाचेर चेंपण हाडटाले तर दुसरेखटेन समझोत्याच्यो गजाली करताले. सर तेजबहादूर सप्रू आनी डॉ. जयकर हांच्या यत्नांक लागून सरकारान भासाभास करपाचें मान्य केलें. तांणी व्हायसरॉय आनी गांधीजीवांगडा तशेंच हेर काँग्रेस फुडाऱ्यांकडेन हेविशीं उलोवणी केलीं. पूण भासाभाशेक यश मेळ्ळें ना. ह्या वेळार सगळे काँग्रेस फुडारी बंदखणींत आसले. पयलीं गोलमेज परिशद काँग्रेसीन वांटो घेतल्याबगर सोंपली. २६ जानेवारी १९३१ दिसा गांधीजी आनी हेर वांगड्यांनी काँग्रेस कार्यकारी समितीच्या वांगड्यांक सोडले. उपरांत समझोत्याखातीर भासाभासेक सुरवात जाली. ४ मार्च १९३१ ह्या दिसा गांधी आर्विन कबलात जाली. मार्च म्हयन्यांतूच कराचींत काँग्रेसीचें वर्सुकी अधिवेशन जालें. ह्या अधिवेशनांत मुळावे अधिकार आनी राश्ट्रीय अर्थीक धोरणाविशीं थाराव मांडले. सरदार वल्लभभाई पटेल ह्या वेळार काँग्रेसीचो अध्यक्ष आसलो.

गांधी-आर्विन कबलात जरी जाली आसली तरी सरकारान ताका पालव दिलो ना. ह्याच वेळार गांधी गोलमेज परिशदेक हाजीर जावपाक लंडन गेलो. ही परिशद ७ सप्टेंबर ते २ डिसेंबर मेरेन चल्ली. हे परिशदेंत हरिजन, मुसलमान आनी हेर समस्यांविशीं जायते प्रस्न उप्रासले. निमणें गांधीजीक कसल्याच समाधानाबगर गांवघरा परतूचें पडलें. गांधीजी भारतांत येतकच जायत्या काँग्रेसीच्या फुडाऱ्यांक बंदखणींत उडयले. काँग्रेसीन पर्थून असहकार आंदोलन सुरू केलें. ४ जानेवारी १९३२ ह्या दिसा गांधीजी आनी सरदार पटेल बंदखणींत पडले. बंदखणींत गांधीजीन हरिजनाच्या प्रस्नावेल्यान आमरण उपास सुरू केलो. निमणें 'पुणे-कबलाती'चेर सय जाली आनी ताका सोडलो. ह्या वेळार सविनय कायदेभंगाचे चळवळीचो नेट देंविल्लो. गांधीजीचे मतींत ही गजाल आयिल्ली, तेन्ना ताणें अस्पृश्यता निवारणाच्या देशव्यापी आंदोलनाची बुन्याद घाली.

नोव्हेंबर १९३४ त, सरकारान विधिमंडळाच्यो वेंचणुको घेवपाची घोशणा केली. १९३५ वर्साच्या इंडियन ॲक्टाखाल काँग्रेसीन वेंचणुको लडोवन आठ प्रांतांनी भोवमत जोडलें. सुर्वेक काँग्रेसीचें मत मंत्रीमंडळ घडोवचें न्हय अशें आसलें. पूण उपरांत तांणी आपलो निर्णय बदलून मंत्रीमंडळ घडयलें. बिनकाँग्रेसीचीं मंत्रीमंडळांय काँग्रेसीच्या पालवान काम करपाची तयारी दाखोवपाक लागलीं. १९३९ त दुसरें संवसारीक म्हाझूज सुरू जालें. ह्या झुजांत ब्रिटिशांनी भारताकय आपलेवटेन आस्पावन घेतिल्याची घोशणा केली. ही घोशणा करतना भारतीय काँग्रेसीच्या फुडाऱ्यांक विचारुंक नासलें. हेखातीर काँगेसीच्या सगळ्या मंडळांनी हे घडणुकेचो निशेध म्हूण राजीनामो दिलो. १९४२ मेरेन भौसाभितर आशिल्लो असंतोश जागरुक दवरपाचो वावर महात्मा गांधीन केलो. तांणी ह्या काळांत वैयक्तिक सत्याग्रहाचें शांत आंदोलन चालू दवरलें.

१४ जुलय १९४२ दिसा वर्धा तशेंच ७ आनी ८ ऑगस्ट १९४२ वर्सा मुंबय हांगा अखिल भारतीय काँग्रेस समितीचें अधिवेशन भरिल्लें. ह्या आंदोलनाक 'छोडो भारत' चळवळ अशें म्हण्टात. हें आंदोलन १९४५ मेरेन चालू उल्लें. २५ जून १९४५ वर्सा व्हाईसरॉयचे घोशणेप्रमाण सिमला हांगा राजकी फुडाऱ्याचें संमेलन भरलें. ब्रिटीश सरकार आनी मुस्लीम लीग फुडारी हांचे नितीक लागून हें संमेलन यशस्वी जावंक पावलेंना.

दुसरें म्हाझूज सोंपले उपरांत ॲटलीचो मजूर पक्ष (Labour Party) सत्तेर आयलो. ह्या सरकारान भारतांत नव्या वेंचणुकांची घोशणा केली. तेचपरी काँग्रेस संघटनेचेर लागिल्लीं बंधनां काडून उडयलीं. १९४५ वर्सा डिसेंबर म्हयन्यांत, ब्रिटनाचे संसदेंतलें एक प्रतिनिधी मंडळ भारतांत आयलें. हें मंडळ भारताचे तेन्नाचे परिस्थितीचो विस्तार करपाक धाडिल्लें. १५ फेब्रुवारी १९४६ वर्सा लंडनांत, भारतांत एक मंत्री मिशन धाडपाविशीं घोशणा जाली. २३ मार्च १९४६ दिसा हें मिशन भारतांत पावलें. ह्या मिशनांतल्या वांगड्यांनी भारतीय शासन विधान निर्मूपाखातीर भारतीय मंत्री फुडाऱ्यांकडेन उलोवणी केलीं. ह्या मंत्री मिशनान १६ जून १९४६ वर्सा भारताच्या राजनितीक भविश्यासंबंदी घोशणा केली, तशेंच अंतरीम सरकाराचे थापणुकेविशींय भासाभास केली. निमणें पूर्ण विचार करून काँग्रेसीन अंतरीम सरकार घडोवपाक मान्यताय दिली.

२ सप्टेंबर १९४६ वर्सा पं. जवाहरलाल नेहरूच्या फुडारपणाखाला काँग्रेसीन अंतरीम सरकार घडयलें. १५ ऑक्टोबर १९४६ वर्सा काँग्रेसीच्या अंतरीम सरकारांत मुस्लीम लिगाचो आस्पाव केलो, पूण लिगाचे वांगडी गुप्त आनी प्रगट रुपान 'पाकिस्तान' घडोवपाची मागणी करीत रावले. देशांत दंगे, घुस्पट वाडली. एकवटीत रूपान राज्यकारभार

चलोवप अशक्य जालें. निमाणें ४ जुलय १९४७ दिसा ब्रिटीश संसदेंत एक बिल मांडलें. ह्या बिलावरवीं भारत देशाचे दोन कुडके जाले. तशेंच १५ ऑगस्ट १९४७ दिसा ह्या बिलावरवीं पुराय वेवस्था भारताच्या हातांत आयली आनी देश स्वतंत्र जालो.

**स्वातंत्र्या उपरांत काँग्रेसः** भारताच्या स्वातंत्र्या उपरांत स्वतंत्र भारताचें संविधान घडोवपाखातीर डॉ. राजेंद्रप्रसाद हाचे अध्यक्षतेखाल एक समिती घडयली. डॉ. बाबसाहेब आंबेडकर आनी हेर बुदवंत संविधान पंडित हांणी लोकशायेक म्हत्व दिवपी संविधान तयार केलें. हें संविधान 'संविधान समितीन' व्हड भोवमतान मान्य केलें. हे संविधानसमितींत दोन-तृतीयांश परस चड मत काँग्रेस वांगड्याचें आसलें.

१९५१ सावन काँग्रेस पक्ष भारताच्या भौशीक वेंचणुकांनी वांटो घेता. स्वातंत्र्याउपरांत आयज मेरेन आठ भौशीक वेंचणुको काँग्रेस पक्षान लडयल्यो. काँग्रेसीक लोकसभा वेंचणुकांनी मेळिल्लें यश आनी अपेस फुडलेतरेन आसा.

| वेंचणूक | वर्स | वट्ट जागे | जागे लडयले | जागे जिखले |
|---|---|---|---|---|
| पयली | १९५२ | ४८९ | ४६९ | ३५४ (जैत) |
| दुसरी | १९५७ | ४९४ | ४८३ | ३६६ (जैत) |
| तिसरी | १९६२ | ४९४ | ४८५ | ३५८ (जैत) |
| चवथी | १९६७ | ५२० | ४५२ | २८० (जैत) |
| पांचवी | १९७१ | ५१८ | ४१० | ३५५ (जैत) |
| सवी | १९७७ | ५४२ | ४९३ | १५३ (हार) |
| सातवी | १९८० | ५४२ | ४८६ | ३५१ (जैत) |
| आठवी | १९८४ | ५४५ | - | ४०१ (जैत) |
| णवी | १९८९ | - | - | १९३ (हार) |

**१८८५-१९८४ ह्या काळांत वेंचून आयिल्ले काँग्रेस पक्षाचे अध्यक्ष अशे:**
१८८५: मुंबय- उमेशचंद्र बानर्जी; १८८६: कलकत्ता- दादाभाई नौरोजी; १८८७: मद्रास- बद्रुद्दिन तैय्यबजी; १८८८: अलाहाबाद- जॉर्ज यूल; १८८९: मुंबय- सर वुइल्यम वेडरबर्न; १८९०: कलकत्ता- सर फिरोजशहा मेहेता; १८९१: नागपूर- रा. ब. आनंदाचार्लू; १८९२: अलाहाबाद- उमेशचंद्र बानर्जी; १८९३: लाहोर- दादाभाई नौरोजी, (एम्. पी); १८९४: मद्रास-आल्फ्रेड वेब (एम्.पी.); १८९५: पुणें- सुरेंद्रनाथ बानर्जी; १८९६: कलकत्ता- रहीमतुल्ला सयानी; १८९७: उमरावती- शंकरन् नायर; १८९८: मद्रास- आनंदमोहन बोस; १८९९: लखनौ- रमेशचंद्र दत्त; १९००: लाहोर- ना. ग. चंदावरकर; १९०१: कलकत्ता- दिनशा वाच्छा; १९०२: अहमदाबाद- सुरेंद्रनाथ बानर्जी; १९०३: मद्रास- लालमोहन घोष; १९०४: मुंबय- सर हेन्री कॉटन; १९०५: काशी- गोपाल कृष्ण गोखले; १९०६: कलकत्ता- दादाभाई नौरोजी;१९०८: मद्रास-डॉ. राशबिहारी घोष; १९०९: लाहोर- पं. मदनमोहन मालवीय; १९१०: अलाहाबाद- सर वुइल्यम वेडरबर्न; १९११: कलकत्ता- पं. बिशन नारायण धार; १९१२: बांकीपूर- रा. ब. रं. न. मुधोळकर; १९१३: कराची- नबाब सय्यद महंमद बहादुर; १९१४: मद्रास- भूपेंद्रनाथ बसू; १९१५: मुंबय-सर सत्येंद्रप्रसन्न सिंह; १९१६: लखनौ- अंबिकाचरण मुजुमदार; १९१७: कलकत्ता-ॲनी बेझंट; १९१८: मुंबय-सय्यद हसन इनाम, १९१८: दिल्ली- पं. मदनमोहन मालवीय, १९१९: अमृतसर-पं. मोतीलाल नेहरू; १९२०: कलकत्ता- लाला लजपतराय; १९२०: नागपूर- चक्रवर्ती विजयराघवाचारीयर; १९२१: अहमदाबाद- हकीम अजमलखान; १९२२: गया- चित्तरंजन दास; १९२३: दिल्ली- मौ. अबुल कलाम आझाद; १९२३: कोकोनाडा- मौ. महंमद अली; १९२४: बेळगांव- महात्मा गांधी; १९२५: कानपूर- सरोजिनी नायडू; १९२६: गोहत्तीझ श्रीनिवास आय्यंगार; १९२७: मद्रास- डॉ. अन्सारी; १९२८: कलकत्ता- पं. मोतीलाल नेहरु; १९२९: लाहोर- प. जवाहरलाल नेहरु; १९३०: - पं. जवाहरलाल नेहरु; १९३१: कराची- वल्लभभाई पटेल; १९३२: दिल्ली- पं. मदनमोहन मालवीय; १९३३: कलकत्ता- नेली सेनगुप्त; १९३४: मुंबय- बाबू राजेंद्रप्रसाद; १९३५: बाबू राजेंद्रप्रसाद, १९३६: पं. जवाहरलाल नेहरु, १९३७: पं. जवाहरलाल नेहरु, १९३८-१९३९: सुभाषचंद्र बोस (वेंचून आयल्या उपरांत राजीनामो दिलो. उपरांत डॉ. राजेंद्र प्रसाद त्या जाग्यार आयलो); १९४० ते १९४६: मौ. अबुल कलाम आझाद; १९४६: (जुलय, सप्टेंबर)- पं. जवाहरलाल नेहरू; १९४६ ते १९४७ जे. बी. कृपलानी; १९४८: जयपूर- पट्टाभी सीतारामय्या; १९५०: नासीक- पुरुषोत्तम दास टंडन; १९५१: दिल्ली- पं. जवाहरलाल नेहरु; १९५३: हैदराबाद- पं. जवाहरलाल नेहरु; १९५४: कल्याण- पं. जवाहरलाल नेहरू; १९५५: अवादी- यू. एन्. ढेबर; १९५६: अमृतसर- यू. एन्. ढेबर; १९५७: इंदूर- यू. एन्. ढेबर; १९५८: प्रागज्योतीषपूर- यू. एन्. ढेबर; १९५९: नागपूर- यू. एन्. ढेबर; १९६०: बेंगलोर- इंदिरा गांधी; १९६१: भावनगर- एन्. संजीव रेड्डी; १९६२: एन्. संजीव रेड्डी; १९६४: भुवनेश्वर- कुमार स्वामी कामराज; १९६५: दुर्गापूर- कुमार स्वामी कामराज; १९६६: जयपूर- कुमार स्वामी कामराज; १९६८: बेंगलोर- श्री. एस. निजलिंगप्पा; १९६९: नवी दिल्लीः सी. सुब्रह्मण्यम; १९७०: दिल्ली- जगजीवनराम; १९७१: अहमदाबाद- डी. संजीवय्या; १९७२: कलकत्ता- डॉ. शंकर दयाल शर्मा; १९७५: चंदीगड- डी. के. बरुआ; १९७६: नवी दिल्ली- के. ब्रह्मानंद रेड्डी; १९७८: नवी दिल्ली- इंदिरा गांधी; १९८३: कलकत्ता- इंदिरा गांधी; १९८४: नवी दिल्ली- राजीव गांधी.

- कों. वि. सं. मं.

## कॉक्रॉफ्ट, सर जॉन डग्लसः

(जल्मः २७ मे, १८९७, टॉडमॉर्डन- यार्कशायर; मरणः १९ सप्टेंबर १९६७, केंब्रिज).

इंग्लीश भौतिकशास्त्रज्ञ. शिकप मँचेस्टर विद्यापीठांत आनी केंब्रिज हांगाच्या सेंट जॉन महाविद्यालयांत जालें. १९३९-४६ ह्या काळांत तो केंब्रिज विद्यापीठांत भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक आशिल्लो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत ब्रिटनच्या हवाईसंरक्षण संशोधनाचो आनी कॅनडाच्या नॅशनल रिसर्च काउन्सिलच्या अणुशक्ती विभागाचो संचालक आशिल्लो. १९४६ त इंग्लंडांतल्या हारवेल हांगाच्या अणुसंशोधन संस्थेच्या संचालकपदाचेर ताची नेमणूक जाली आनी ताणें थंय १९५९ मेरेन काम केलें. ब्रिटीश ब्रॉडकास्टिंग कॉर्पोरेशनचे शास्त्रीय सल्लागार आनी संरक्षण संशोधन समितीचो अध्यक्ष ह्या पदांचेर काम केलें. १९५९ त केंब्रिज हांगाच्या चर्चिल महाविद्यालयाचो मास्टर म्हूण ताची नेमणूक जाली.

कॉक्रॉफ्ट हाणें १९३२ त वॉल्टन हाच्या पालवान पयलो उच्च ऊर्जा कणवेगवर्धक (Particle accelerator) तयार केलो आनी ताचे वरवीं लिथियमच्या अणूंचेर प्रोटॉनांचो भडिमार करून लिथियमापसून हीलियमाचे अणू तयार केले. १९३४ त कॉक्रॉफ्ट आनी वॉल्टन हांणी बोरोन आनी कार्बन हांचेर प्रोटॉन आनी ड्युटेरॉन हांचो वेगवर्धकावरवीं भडिमार केल्यार किरणोत्सर्गी (radioactive) अणुकेंद्रां तयार जातात अशें दाखयलें. कृत्रिम रीतीन प्रवेगित (accelerated) केल्या कणांवरवीं

मूलद्रव्यांतरण (transmutation) करपाच्या मोलादीक संशोधनाखातीर ताका १९५१ त, भौतिकशास्त्राचो नोबेल पुरस्कार अर्नेस्ट वॉल्टन ह्या शास्त्रज्ञावांगडा वांटून मेळ्ळो. लंडनच्या रॉयल सोसायटीच्या सदस्यत्त्वाचेर ताची १९३६ त वेंचणूक जाली आनी १९४८ त ताका नाइट हो किताब मेळ्ळो. १९६१-६५ ह्या काळांत तो कॅनबेरा हांगाच्या ऑस्ट्रेलियन नॅशनल युनिवर्सिटीचो कुलगुरु आशिल्लो. १९५७ त, ताका 'ऑर्डर ऑफ मॅरीट' ही तम्रीप मेळ्ळी. १९६१ त, ताका 'शांततायेखातीर अणू' हो पुरस्कार मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

## कॉख, रॉबर्ट: (जल्मः ११ डिसेंबर १८४३, क्लाउसथाल- प्रशिया; मरणः २८ मे १९१०, बाडनबाडन).

जर्मन जंतुशास्त्रज्ञ. गटिंगन विद्यापीठांत शिकप घेवन १८६६ त ताणें उच्च वैजकी पदवी मेळयली. फ्रँको-जर्मन झुजांत १८७२ त वैज म्हूण ताणें वावर केलो. उपरांत वोल्स्टाइन हांगा वैजकी वेवसाय आनी जंतूंविशीं संशोधनकार्य सुरू केलें. त्या काळांत anthrax हो भिरांकुल संसर्गजन्य रोग मेंढरांमदीं पातळ्ळलो. ह्या रोगाचेर संशोधन करून ताणें Bacillus Anthrasis ह्या जंतूंक लागून तो जाता अशें सिध्द केलें. खाशेल्या जंतूंक लागून खाशेले रोग जातात हें थारावपाखातीर ताणें कांय निकश घालून दिले, ते 'कॉख हाचीं गृहितकां' म्हूण वळखतात.

बर्लिनांतले वैजकी शाळेंत प्राध्यापक आनी भलायकी मंडळाचो वांगडी म्हूण १८८० त आनी उपरांत बर्लिन विद्यापीठांत सन्मान्य प्राध्यापक आनी भलायकी संस्थेचो संचालक म्हूण १८८५ त ताची नेमणूक जाली. ताणें रोगसंसर्गशास्त्रांत संशोधन करून जायत्यो नव्यो पध्दती आनी सुदारणा घडोवन हाडल्यो. ताणें १८८२ त क्षयरोग जंतू आनी १८८३ त दोळे येवप (conjunctivitis) ह्या रोगजंतूंचो सोद लायलो. १८८३ त मेंढरांच्या संसर्गजन्य anthrax ह्या रोगाआड लस तयार केली. त्याच वर्सा भारतांतल्या कलकत्ता हांगाचे कॉलरा संशोधन समितीचो मुखेली म्हूण ताची नेमणूक जाली. क्षयरोगजंतूंपसून tuberculin हें रोगनिदान करपी द्रव्य ताणें १८९० च्या सुमाराक तयार केलें. क्षयरोगाविशींच्या (tuberculosis) ताणें केल्या मोलादीक संशोधनाखातीर ताका १९०५ त, शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी शास्त्र ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. १८९१ त, बर्लीन हांगा सांसर्गिक संस्थेच्या संचालकपदाचेर ताची नेमणूक जाली आनी त्याच पदाचेर ताणें १९०४ मेरेन काम केलें. दक्षिण आफ्रिकेंत जनावरांच्या rinderpest ह्या रोगाविशींय ताणें मोलादीक संशोधन केलें.

-कों. वि. सं. मं.

## कॉम्पटन, आर्थर हॉली: (जल्मः १० सप्टेंबर, १८९२, वूस्टर-ओहियो; मरणः १५ मार्च १९६२, बर्कले-कॅलिफॉर्निया).

नामनेचो भौतिकशास्त्रज्ञ. ताणें प्रिन्स्टन विद्यापीठाची एम्. ए. (१९१४) आनी पीएच्. डी. (१९१६) पदवी मेळयली. ताणें सेंट लुईस हांगाच्या वॉशिंग्टन विद्यापीठांत आनी शिकागो विद्यापीठांत प्राध्यापकाचें काम केलें. १९४५ त, तो वॉशिंग्टन विद्यापीठाचो कुलगुरु जालो आनी १९५३-१९६१ ह्या काळांत ताणें थंय 'सैमीक इतिहास' ह्या विशयाच्या प्राध्यापकपदाचेर काम केलें.

क्ष-किरणां (X-Rays) जेन्ना इलेक्ट्रॉन्सांचेर आपटतात तेन्ना ह्या क्ष-किरणांच्या तरंग लांबायेंत (Wavelength) जो बदल घडून येता ताची फोडणिशी आनी सोद ताणें लायलो (१९२३). फोटोन्सां कडल्यान इलेक्ट्रॉनांकडेन ऊर्जेचें (energy) जें अंतरण (transfer) जाता ताका लागून घडून येवपी ह्या बदलाक 'Compton Effect' अशें म्हण्टात. कॉम्पटन हाका 'Compton Effect' च्या म्हत्वाच्या सोदाखातीर १९२७ त, भौतिकशास्त्र ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार चार्लस् थॉमसन रिस विल्सन ह्या शास्त्रज्ञावांगडा वांटून मेळ्ळो. ताच्या ह्या सोदाक लागून विद्युत्-चुंबकीय (electromagnetic) प्रारणाचो (radiation) तरंग आनी कण असो दोट्टी स्वभाव खात्रीन पाखप एकदम सोंपें जालें.

- कों. वि. सं. मं.

## कॉर्नेय, पियॅर (जल्मः ६ जून, १६०६ रुआं; मरणः १६८४).

नामनेचो फ्रेंच नाटककार. ताचो आजो, बापूय वकील आसले आनी ताणेंय तो वेवसाय मुखार चलयलो. सुर्वेक कॉर्नेयान सुखान्तिका बरयल्यो. कार्डिनल रिशलिय् हाची ताचेर नदर गेली आनी ताणें नाटककाराक नेमान मानधन दिवंक लायलें. 'ल् सिद' (Le cid) (१६३६) हें ताचें नाटक रंगमाचयेर आयलें आनी फ्रेंच नाटकाचो अभिजात काळ सुरू जालो. ह्या नाटकांत ताणें ग्रीक नाट्यशास्त्री ॲरिस्टॉट्ल हाणें घालून दिल्ल्या त्रिसुत्रीक पुराय पाळो दिलो. मानवी मूल्यांच्या संघर्शाक लागून जाल्ली मानसिक आनी भावनीक उचंबळाय तो समर्थपणान चित्रीत करता. नायिका शिमेन हिच्या बापायन तिचो प्रियकर रॉद्रीग हाच्या बापायच्या पोल्याचेर थापट मारून ताचो घोर अपमान केला. आपल्या बापायच्या अपमानाचो सूड घेवप हें रोद्रीगाचें कर्तव्य जाता आनी तो आपलें कर्तव्य पुराय करता. तो दाँ गोमिशाक झुजाक पाचारण करता आनी ताका जिवेशीं मारता. आपल्या बापायच्या खुनमाऱ्याक मारप हें आतां शिमेनचें कर्तव्य जाता. तिचो ताचेर मोग आसलो तरी ती आपल्या एका इश्टाक दाँ रोद्रीगाक जितो मार म्हूण सांगता आनी तो जैतिवंत जाल्यार ताचेलागीं लग्न जावपाचें ताका उत्तर दिता. मोग आनी कर्तव्य हांचे मदलो केन्नाच न सोंपपी प्रस्न राजाच्या बऱ्यापणान सोंपता. ह्या नाटकाची लोकांनी खूब तोखणाय केली तरी नाटककाराक कांय जाणांचो विरोधूय सोंसचो पडलो.

ओरास (Horace)- १६०४, सिन्ना (Cinna)- १६४०, पॉलिअक्त (Polyucte)- १६४३ ह्या सगळ्या नाटकांनी कर्तव्य आनी भावना हांचेमदलो संघर्श आनी इत्साशक्तीच्या उमाळ्यांचें जैत दाखयलां. भितल्ल्या दुबळेपणाचेर आनी भायल्या विरोधाचेर विजय मेळोवपी हो नायक म्हळ्यार सतराव्या शेंकड्यांतल्या आदर्शाचें पडबिंब. 'रोदॉग्यून' ह्या नाटकांत क्लिओपात्रा खूनमारी जाता. ती आपल्या बापायक, भावाक मारता आनी निमाणें आपलोय जीव घेता. कॉर्नेयान ले मांतर (LeMenteur) (१६४४?) ह्या नांवाचें एक हांसवणे नाटकूय बरयलें.

तो स्वता वकील आशिल्ल्यान ताच्या संवादांनी तर्कशुध्दताय आनी नेट आयला. कॉर्नेय हो कुशल कवी, नाटककार तसोच मानसशास्त्री आसलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कॉश्त, इपोलितु: (जल्मः १८६६, चिंचोणें; मरणः १९१२).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. ताणें आपलें धर्मीक शिक्षण राशोल सेमिनारींत घेतलें. उपरांत तो रोम शारांत गेलो. थंय ताणें 'धर्मीक कायदो' विशयांत डॉक्टरेट पदवी मेळयली. १८९० वर्सा ताणें कायद्याचें शिक्षण घेतलें. थंय ताका ब्राझिलांतल्या गोयाझ (Goiaz) ह्या शाराचो बिशप, एदुआर्द द सिल्व्हा आनी ताचो चिटणीस हांचो पालव मेळ्ळो. फुडें थंय ताणें एपिसकोपल इन्स्टिट्यूट ऑफ गोयाझ (Episcopal Institute of Goiaz) हे संस्थेची थापणूक केली आनी ते सेमिनारीचो तो डायरेक्टर जालो. मानाउश Manaus डायोसिजीचो बिशप डॉ. जुज लोउरेन्सु द कॉश्त आगियार हाचे मागणेवेल्यान तो १८९७ वर्सा मानाउश वाठारांत गेलो.

१८९७ ते १९०२ हो काळ मेरेन तो सेमिनारीचो अधिकारी आशिल्लो. फुडें १९०२-१९०६ वर्सा मेरेन तो डायोसिजीचो व्हिकार जनरल (Vicar General) जालो. बिशप मरतकच ताका मायटर (Mitre) पाद्रीपणाचो खास भेस दिवपाचो थारायलो. पूण ताणें तो न्हयकारलो आनी आपोस्तोलिकाचो प्रशासक म्हूण डायोसिजीचो कारभार चलोवंक लागलो. तो 'हिस्टोरिको' जिओग्राफिकल इन्स्टिट्यूट ऑफ रिओ द जानैरो आनी 'रोमन आरकादिया' ह्या संस्थांचो फेलो आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## कॉश्त, चार्लस् फ्रान्सीस द्. (चाफ्रा): (जल्मः १० ऑक्टोबर १९३१, रुजायां- मंगळूर).

कोंकणीतलो एक म्हालगडो बरोवपी, पत्रकार आनी समाजसेवक. ताका लोक चाफ्रा. ह्या नांवानूच चड वळखतात. ताचो बापूय मार्सेल द कॉश्त हो एक थवय आशिल्लो. ताणें आपलें प्राथमिक शिक्षण मंगळुरच्या कासियां हांगासल्ल्या सेंट जॉन द बाप्टिस्ट शाळेंत घेतलें. उपरांत मीलाग्र हायस्कूलांत १९४८ वर्सा ताणें फुडलें शिकप पुराय केलें. भुरगेपणासावनच ताका वाचपाची खूब आवड आशिल्ली.



चाफ्रा द कॉश्त

सुर्वेच्या काळांत ताणें वि. जे. पी. सालदान हाणें संपादन केल्या 'पैणारी' ह्या पत्राचेर बरोवपाक सुरवात केली. ताणें कविता, कथा, लेख, एकांकी, नाटक आदी साहित्य प्रकार केळयल्यात. तो एक बऱ्यांतलो नाटककार जावन आसा. ताच्या नाटकांचे प्रयोग गोंय, मंगळूर, मुंबय तशेंच आखाती देशांनीय जैतिवंत थारल्यात. ताच्या नाटकांनी काव्य आसता. ताणें बरयल्लीं नाटकां अशीं: 'सोबीत संवसार' (१९५५), 'आंकवार मेस्त्री' (१९५७), 'भांगर मनीस', 'विशेंतिचे भाव', 'नोर्जी नुतेल', 'टोमॅटो', 'मांकडाचो पांय', 'दोरो', 'सात जीव', 'कुंवाळ्यांची वाल', 'हांडो उटला', 'बोचो बंद', 'देव पळेत आसा' आनी 'मासो'. तो एक खडेगांठ पत्रकार आसा. कन्नड लिपींतल्या कोंकणी नेमाळ्यांनी ताची एक खाशेली सुवात आसा. 'जाग माग' (१९५६), 'पैणारी' (१९५९), 'विशाल- कोंकण', 'उदेव' ह्या पत्रांचो तो संपादक आशिल्लो. सद्या तो 'जिवीत' ह्या पत्राचो संपादक जावन आसा.

ताचें कोंकणी बरप कन्नड लिपींतूच चड उजवाडाक आयलां. ताचीं कन्नड लिपींत 'मेल्ले' (कथा-१९४९), 'पैणाऱ्यांचो इश्ट' (चरित्र-१९५४), 'तर्ने तर्ने मोर्ने' (नाटक-१९७३) आनी 'सुणें माजर हांसता' (एकांकी-१९७७) अशीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. हालींच्या काळांत ताणें राष्ट्रमत, सुनापरान्त, कुळागर ह्या नेमाळ्यांनी देवनागरींत बरप केलां. 'सुणे माजर हांसता', 'तर्ने तर्ने मोर्ने', आनी 'सोंश्याचे कान'. हीं ताचीं कन्नड लिपींतलीं पुस्तकां नागरी लिपींत आयल्यांत.

१९८७ वर्सा सांखळे हांगा जाल्ल्या णव्या अखिल भारतीय लेखक संमेलनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. मंगळुराक कोंकणी भाशा मंडळाची थापणूक करपाचो मान ताका फाव जाता. ताच्या १९८६-८८ वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या 'सोंश्याचे कान' ह्या कविता झेल्याक ताचे मोलादीक साहित्य सेवेखातीर १९८९ वर्साचो साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फाव जाला.

ताचे कवितेंत आनी नाटकांत समाजांतलीं उणीं, उपहास, मनीसजीणेंतले दोश आनी व्यंग दिसून येता. ताच्या कवितांचेर आदारिल्ली 'मांड सोभाण' ही संगीताची कार्यावळ मंगळूर ते गोंय मेरेन खूब कडेन जाल्या. ताच्या गितांच्यो 'रंग तरंग' आनी 'मांड सोभाण' ह्यो कॅसेटी आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## कॉश्त, दियोगु फ्रांसिश्कु द्. (जल्मः १८५७, माजोड्डें. मरणः ?).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. गोंयांत राशोल ह्या वाठारांत आपलें धर्मीक शिक्षण घेतकच तो रोम शारांत गेलो. थंय ताणें धर्मशास्त्र ह्या विशयांत डॉक्टरेट पदवी मेळयली. तेचपरी १८९२ वर्सा धर्मीक कायद्याचें शिक्षण घेतलें. ताका आंगोलाचो बिशप ही पदवी दिवंक केल्ली. पूण ताणें ताका न्हयकार दिलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कॉश्त, फाबियांव दः (जल्मः २० जानेवारी १९२८, झांजीबार-आफ्रिका).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें इन्टर आर्ट्स मेरेन शिकप केलें. १९५४ वर्सा जून म्हयन्यांत पोलिसांनी ताका धरलो, खूब त्रास दिलो आनी मागीर कांयच पुरावो मेळ्ळो ना म्हूण सोडून दिलो. ६ एप्रिल १९५५ दिसा ताणें एकवीस सत्याग्रहींचो पंगड घेवन मडगांव नगरपालिकेलागीं सत्याग्रह केलो. तेन्ना ताका पोलिसांनी धरलो आनी खूब मार दिलो. उपरांत १५ दीस ताका एकांतवासांत दवरलो. सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराखातीर भारत सरकारान ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८३ दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केलो. साश्टी तालुक्यांतल्या काँग्रेस समितीचो तो अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कॉश्त, फेलिसियानु व्हिक्तोर द.: (जल्मः ? १८६४, वारकें; मरणः? १९२७).

गोंयकार क्रिस्ती धर्म फुडारी. पिलार वाठारांतले पिलार संस्थेचो तो वागडी आशिल्लो. हल्याळ, कुमठा, होनावर, चंदावर आनी उत्तर कॅनरा ह्या वाठारांचो तो पॅरिश पाद्री आशिल्लो. ह्या वाठारांत ताणें कांय धर्मीक सुदारणा केल्यो आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## किंग, मार्टिन ल्यूथरः (जल्मः १५ जानेवारी १९२९, ॲटलांटा- द. अमेरिका; मरणः ४ एप्रिल १९६८, मेम्फिस).

अमेरिकेंतल्या वर्णविरोधी चळवळीचो नामनेचो निग्रो फुडारी.

बातिस्मा वेळार ताचें नांव 'मायकल' दवरिल्लें. ताचो बापूय बॅप्टिस्ट संप्रदायाचो पाद्री आसलो. स वर्सांचे पिरायेचेर काळो-गोरो ह्या वर्णभेदाविशीं ताका जाण आयिल्ली. ह्या पिरायेचेर ताका वर्णभेदाचो एक वायट अणभव आयलो, तेन्ना ताच्या बापायन ताका प्रोटेस्टंट पंथाचो संस्थापक मार्टिन ल्यूथर हाचे जीणेची काणी सांगली आनी म्हळें, ''आयच्यान तुजें आनी म्हजें नांव मार्टिन ल्यूथर किंग आसतलें.'' ह्याच नांवान तो फुडें संवसारांत नामनेक पावलो. तशेंच हेंच नांव ताका जीणभर प्रेरणास्थान जावन उरलें. वयाच्या पंदराव्या वर्सा ताणें डेविड थोरो ह्या लेखकालें 'सविनय अवज्ञा' हें पुस्तक वाचलें. ह्या पुस्तकाचोय ताचेर व्हड प्रभाव पडलो. महात्मा गांधीच्या अहिंसा आनी निशस्त्र प्रतिकार ह्या तत्त्वांचेर ताची खर श्रध्दा आसली.

१९४८ त, वयाच्या एकुणिसाव्या वर्सा मोरहाऊस महाविद्यालयांतल्यान तो पदवीधर जालो. उपरांत तीन वर्सांनी थिऑलॉजिकल सेमिनरीची ताणें पदवी घेतली. १९५५ त, बॉस्टन विद्यापीठान डॉक्टरेट दिवन ताचो भोवमान केलो.

बॉस्टन हांगा शिकतासतना ताची कोरेटा स्कॉट हे चलयेकडेन वळख जाली. उपरांत तीं लग्न जालीं.

लग्नांउपरांत आलाबामा राज्यांतल्या मॉंटगोमरी नांवाच्या शारांत मार्टिन किंग पाद्री जालो. ह्या राज्यांत काळ्या लोकांविशीं खूब घृणा आसली. निग्रो लोकांक मारप, तांकां अपमानीत करप अश्यो घडणुको सदांच घडटाल्यो. एक फावट एक निग्रो बायल, बसींत गोऱ्या मनशांखातीर राखून दवरिल्ल्या जाग्यार बसली. पूण तिचे हे चुकीखातीर तिका धा डॉलरांचो दंड भरचो पडलो. हे घडणुकेक लागून किंगाक खूब

वायट दिसलें. ताणें आलाबामाच्या निग्रोंक एकठांय करून बस-येरादारीचेर बहिश्कार घालपाक उलो माल्लो. ह्या आंदोलनाक लागून बस-वेवस्थेचेर परिणाम जालो. अधिकाऱ्यांनीय आपली चूक मानली. अमेरिकेच्या सर्वोच्च न्यायालयान बसींत प्रवाशांभितर भेदभाव करपाआड कायदो केलो. हे चळवळीक लागून अहिंसा पध्दत आपणावन झुजपी खांपो फुडारी म्हूण ताची नामना जाली.

फुडाराक ताणें बर्मिंगहम हें शार आपल्या रंगभेद आंदोलनाचें केंद्र केलें. ह्या आंदोलनाक लागून जेन्ना ताका बंदखणींत उडयलो तेन्ना अमेरिकेच्या ८०० शारांनी निदर्शनां आनी सत्याग्रह जाले. सुमार तेत्तीस हजार (३३,०००) काळ्या लोकांक हे चळवळीक लागून धरले. हे चळवळीचो जायत्या पाद्रींनी निशेध केलो. तशेंच किंगाचेर उतावीळपणाचो आरोप केलो. ह्या आरोपाक जाप दितना किंगान एक पत्र बरयलें. जाका 'काळ्या लोकांच्या आंदोलनाची प्रामाणिक शास्त्रीय व्याख्या' म्हण्टात. किंगाच्या ह्या पत्राक इतिहासीक म्हत्व मेळ्ळां. ह्या उपरांत लेगीत धरणां, निदर्शनां, प्रदर्शनां, सभा, निग्रो उत्थान अभियान, शिक्षणीक कार्य ह्या सारक्या कार्यावळींतल्यान काळ्या लोकांचें रंगभेद वा वर्णभेदाआड आंदोलन सातत्यान चालू उरलें. हातूंत २८ ऑगस्ट १९६३ दिसा अडेच लाख लोकांक गवाय दवरून घडोवन हाडिल्लो वॉशिंग्टन मोर्चा हाचो आस्पाव जाता. ह्या मोर्चांतल्या भाशणांत ताणें, 'गोऱ्या लोकांनी काळ्यांविशीं आशिल्ले पूर्वग्रह सोडून तांकां मायेमोगान वागोवचे' अशें मागलें. १९६५ त किंगान घडोवन हाडिल्लें मतदाता पंजीकरण आंदोलन (५० मैलांचें आंदोलन) ताचे जीणेंतले एक म्हत्वाचें आंदोलन जावन आसा. काळ्या लोकांचेर जावपी अन्यायाआड झुजिल्ल्यान तो कांय गोऱ्या लोकांचो पयलो दुस्मान थाल्लो. सुमार पंदरा फावट ताका बंदखणींत उडयलो. ताका जिवो मारपाचे कितलेशेच यत्न जाल्ले. १९५६ ताच्या घराचेर 'बॉंब' उडोवन ताका सोंपोवपाचो यत्न जालो.

वर्णभेदाआड झुजतना वेळ काडून ताणें जीं पुस्तकां बरयलीं तातूंत 'स्ट्राइड टु वर्डस फ्रीडम' (१९५८), 'स्ट्रेंग्थ टू लव्ह' (१९६३), 'वाय वी कांट वेट' (१९६४), 'वॅअर डू वी गो फ्रॉम हीअर' (१९६७) 'द ट्रंपेट ऑफ कॉन्शन्स' (१९६८), 'आय हॅव्ह ए ड्रीम' (१९६८) ह्या म्हत्वाच्या पुस्तकांचो आस्पाव जाता. ह्या पुस्तकांतल्यान ताचें तत्त्वज्ञान आनी ताची विचारसरणी हांची वळख मेळटा.

१९५६ त, ताका संवसारांतल्या धा व्हड मनशांमदलो एक हो मान फाव जालो. १९६३ 'टाइम' हे पत्रिकेन ताका 'म्हत्वाची व्यक्ती' हो पुरस्कार दिलो. अमेरिकेचे समाजीक जाणविकायेंत म्हत्वाचो बदल घडोवन हाडिल्ल्या पासत, १९६४ वर्सा शांततायेखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान जालो. मरणा उपरांत भारत सरकारान ताका 'नेहरू पुरस्कार' भेटोवन ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

१९६८ वर्सा वॉशिंग्टनांत 'पुअर पिपल्स कँपेन' भरोवपाची ताणें थारायिल्लें. पूण तेआदीं रेम्स अलरे ह्या मनशान तुबकाची गुळी घालून ताका जिवेशीं मारलो.

- कों. वि. सं. मं.

**किपलिंग, रडयर्डः** (जल्मः ३० डिसेंबर १८६५, मुंबय; मरणः १८ जानेवारी १९३६, लंडन).

नामनेचो इंग्लीश साहित्यीक. १८७६ वर्सा इंग्लंडांतल्या 'वेस्टवर्ड हो' कॉलेजांतसून पदवी मेळोवन १८८२ त भारतांत परत आयलो.

सतराव्या वर्सा लाहोर हांगाच्या 'सिव्हिल अँड मिलिटरी गॅझेट' हातूंत सहसंपादक म्हूण ताची नेमणूक जाली. अलाहाबादच्या 'पायोनिअर' ह्या नेमाळ्यांतूय ताणें काम केलें. Departmental Ditties (१८८६) हो ताचो पयलो कवितांझेलो. 'सोल्जर्स थ्री', 'प्लेन टेल्स', 'फ्रॉम द हिल्स', 'इन ब्लॅक अँड व्हाइट' हे ताचे कथां-झेले, ताच्या हिंदुस्थानांतल्या राबित्यांतूच उजवाडाक आयले (१८८८). १९०७ त, ताका साहित्याखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो.

कथाकार म्हूण ताका उपाट लोकप्रियता मेळ्ळी. हिंदुस्थानांतल्या राबित्याक लागून आपल्या कथा-कवितांतसून ताणें हिंदुस्थानांतली जीण प्रभावीपणान चितारली. आपल्या देशापसून पयस रावन लेगीत हिंदुस्थानांतल्या ब्रिटीश साम्राज्याची राखण करपी ब्रिटीश सैनिकांचीं सुखदुखां ताणें रंगयलीं. गोऱ्या सनदी नोकरांचें जिवित ताणें सोबितपणान चितारलें. ल्हान भुरग्यांखातीरूय ताणें उपाट साहित्य-निर्मिती केली. आपल्या भुरगेपणांत नोकरां-चाकरांकडसून आयकल्ल्या भारतीय लोकांकाणयांतल्यो कांय कल्पना हे बरपावळींत दिसून येता. 'द जंगल बुक' (१८९४) आनी 'द सेकंड जंगल बुक' (१८९५) ह्या कथा-झेल्यांनी भारतीय जिणेचें दर्शन घडटा. ताणें 'किम' (१९०१) ही एकूच कादंबरी बरयली. ब्रिटीश साम्राज्यवादाचें समर्थन ताच्या साहित्यांत दिसून येता. ताचे हे भुमिकेक लागून जायत्या जाणांनी ताचेर टीकाय केली. साहित्यीक मूल्यमापन आनी राजकीय मतां हांची भरसण ताचेविशींचे टिकेंत जाल्ली दिसून येता. ताणें 'समथिंग ऑफ मायसेल्फ' (१९३६) हें आत्मचरित्र्य बरयलां. मरणाउपरांत ताचें सगळें बरप ३५ खंडांत उजवाडाक आयलें (१९३७). ताका जायत्या विद्यापीठांनी भोवमानाच्यो पदव्यो दिल्यो. १९२६ त, 'रॉयल सोसायटी ऑफ लिटरेचर' कडल्यान ताका भांगरा पदक फाव जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**किरटः** रगत पिवपी आनी दुसऱ्याच्या जिवार जियेवपी एक जीव. हो जीव मनीस, जनावरां, पक्षी आनी सरपटपी प्राण्यांक लागता. आर्थ्रोपोडा संघाच्या ॲरॅक्निडा वर्गांत ताचो आस्पाव जाता. ॲकॅरिना हो ताचो उपवर्ग. घट किरटी (आयक्झोडिडी कूळ) आनी मोव किरटी (अरगॅसिडी कूळ) अशे दोन प्रकार आसात. तेभायर तिच्यो हेर शेंकड्यांनी जाती संवसारांतल्या सगळ्या वाठारांनी सांपडटात.

ह्या जिवाक वयले वटेन (तोंडा कडेन) आठ पांय आसतात. तिचे कुडीची तकली, छाती आनी पोट हांचे मदीं स्पश्ट विभाजन जाल्लें आसना. तिचे दांत फाटले वटेन वळिल्ले आसतात आनी तातूंतल्यान ती रगत ओडूंक शकता. किरट जेन्ना कोणाकूय चाबता तेन्ना तिचे कातींत अशे तरेन दांत रोमतात की ते काडूंक कठीण. थंयचें रगत पिवन किरट फुगतकच मागीर ती आपशींच सुटता. मादी किरटीचो आकार नरापरस व्हड आसता.

मादी किरट जमनीर वा तणांत तांतयां घालता. उपरांत हीं तांतयां फुटून स पायांच्यो किडी भायर येतात. तांचे योग्य वेळार निर्मोचन (कात उडोवपाची क्रिया) जावन आठ पांयांचें अर्भक तयार जाता. फुडें अर्भकाचें परत निर्मोचन जावन पुराय किरट तयार जाता. कांय जातींत तांची पुराय जीण एकाच जिवाचेर (जाचेर किरट आपली जीण घालयता) सारता जाल्यार कांय जातीच्यो किट्टी आपली जीण निर्मोचना उपरांत वेगवेगळ्या जिवांचेर सारतात. पुराय वाड जाल्ल्यो किट्टी केन्नाकेन्नाय अन्नाबगर जायतीं वर्सां जगूंक शकतात.

आयक्झोडिडी कुळांतल्या किट्टींचो (घट किट्टी) त्रास मनशांक आनी पोशिल्ल्या जनावरांक जाता. 'डरमॅसेंटर व्हेन्यूस्टस' हे किट्टींपसून मनशांक 'रॉकी माऊंट' थिपक्यांचो जोर येता. (अमेरिकेंतल्या रॉकी नांवाच्या दोंगराळ वाठारांत पयलेच खेप दिशिल्लो आनी थिपक्यांभशेन फोड येवपाचें लक्षण आशिल्लो जोर). 'डरमॅसेंटर रेटिक्युलेटस' हे किट्टींपसून सुण्यांक हेमॅटोझुनाची लागण जावन ताका पित्तज्वर जाता. असोच रोग दक्षिण आफ्रिकेंत 'हीमोफायसॅलिस लिची' हे किट्टीपसून जाता. 'मॉरगॅरोपस ॲन्यूलेटस' हे किट्टीपसून जनावरांक रक्तमूत्र हो रोग जाता. अरगॅसिडी कुळांतल्या 'आर्निथोडोरस मौबेटा' हे जातीचे 'स्पायरोकिटी' ह्या किट्टींपसून मनशाक परत परत जोर येता. मेक्सिको आनी टेक्सस ह्या वाठारांत ऑर्निथोडोरस ट्युरिकेटा' हे जातीचे किट्टींपसून मनशांक, कुकडांक त्रास जाता. 'अर्गस मिनीएटस' हे

जातींतल्या 'स्पायरोकिटी' हे किट्टींपसून कुकडांक 'स्पायरिलोसिस' हो रोग जाता.

ह्या जिवांक आळाबंदा हाडपाक ५० टक्के गॅमेक्झि पिठो मारतात. तेचपरी मॅलॅथिऑन वा रोनेल ह्या कीटकनाशकांचो उपेग करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**किरायतें:** (मराठी-किराईत, काडेचिराईत, हिंदी- चिरेता, चिरायत; कन्नड- नेलेबेवू; गुजराती- कारियातू; संस्कृतः चिरतिक, भूनिंब; इंग्लीश- चिरेता; लॅटीन- स्वर्शिया चिराता. कूळ जोन्शिएनेशी).

ही वखदी वनस्पत एक वर्स भर जियेता. ती सुमार १.५ मी. ऊंच वाडटा. समशितोश्ण हिमालयांत १२०० ते १३०० मी. उंचायेच्या वाठारांत, काश्मीर ते आसाम मेरेन ही वनस्पत व्हड प्रमाणांत दिश्टी पडटा. हेर सुवातींनी ती पोरसांनी लायतात. तिचीं पानां एकामेकांसामकार, देंठ नाशिल्लीं आनी मुळाकडेन मात्शीं व्हड आसतात. तिका ल्हान, लेव पाचवीं आनी तांचेर जांबळीं फुलां येतात. दरेक पाकळेच्या मुळाक पाचवी प्रपिंडाची जोडी आसता. पाकळेच्या तळाक तेकून चार ते पांच केसरदलां आसतात. किरायत्याक ल्हान ०.६ मिमी. लांब, बोंडां आसतात. हीं बोंडां फुटून तांचीं दोन अर्दां जातात. तातूंत बारीक आनी खूब बियो आसतात.

*उपेगः* फुलां येतकच ही वनस्पत एकठांय करून सुकयतात. सुकयल्लें किरायतें वखद म्हूण वापरतात. ताची रुच कोडू आसता. किरायतें भूक वाडोवपी, जोराचो नाश करपी, पुश्टीक, आनी कृमीनाशक आसता. दिसांचो जोर (typhoid) वा मोडशी जातकच अशक्त जाल्ल्या वायटकाराक थंडसाण मेळूंक किरायतें दितात. गोंयांत अजीर्ण जाल्यार वा पोटांत दंत जाल्यार पेरीच्या झाडाच्यो कोमन्यो आनी किरायतें शिजोवन तयार केल्लो काडो पिवपाक दितात. किरायत्याच्या कुळांतल्यो जायत्यो जाती दोंगराळ वाठारांत दिश्टी पडटात. तांचोय उपेग किरायत्या भशेन करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**किरिस्तांव धर्म:** क्रिस्तपयलीं पयल्या शतमानांत जेजू क्रिस्तान किरिस्तांव धर्माची थापणूक केली. सद्या ह्या धर्माचे सुमार शंबर कोटी अनुयायी संवसारभर आसात. हातूंत तीन पंथ आसात; रोमन कॅथलिक पंथ, प्रोटेस्टंट पंथ आनी इस्टर्न ऑर्थोडॉक्स पंथ.

किरिस्तावांचो पवित्र ग्रंथ म्हळ्यार बायबल. ह्या ग्रंथाचे दोन वांटे आसात, पोरनो करार आनी नवो करार.

**जेजू क्रिस्तः** पॅलेस्टायनांतल्या जेरुसलेमलागच्या बेथलीएम नांवाच्या ल्हानशा गांवांत एका ज्यू घराब्यांत जेजूचो जल्म जालो. थवयाचो वेवसाय करून तीस वर्सांमेरेन जियेल्या उपरांत ताणें लोकांक शिकवण दिवप आनी रोगांतल्यान मुक्तताय दिवप अशे सेवेक आरंभ केलो. ताच्या चमत्कारांनी कुड्डे, भेरे पुरायपणान बरे जाले अश्यो आख्यायिका आसात. ताणें फकत तीन वर्सां आपलो वावर केलो, पूण त्या ल्हानशाच काळांत ताणें आपल्या भोंवतणच्या लोकांक देवाविशींचें आनी मनीसपणाविशींचें गिन्यान दिलें. आपल्या अनुयायांमदल्यान ताणें बारा शिष्यांक वेंचले आनी तांकां प्रेषितांची पदवी दिली.

तेन्नाचे परुशी आनी ज्यू पोरन्या करारांतल्या वचनांचो आनी शिकवणेचो आदर करीनासतना क्षुद्र कायदे लोकांचेर लादताले. तांणी जेजूची मोगाची आनी मनीसपणाची शिकवण उक्त्या मनान आनी समजीकायने मानून घेतलीना. पूण जेजूचीं प्रवचनां आयकूंक लोक गर्दी करताले. जेरुसलेम ह्या ज्यू लोकांच्या मुखेल शारांत जेन्ना जेजू आयलो तेन्ना थंयच्या लोकांनी ताका उर्बेभरीत येवकार दिलो. ताणें थंयच्या मंदिरांत वेपार करपी लोकांक धांवडावन घाले. जेजूचे शिकवणेक लागून ताचो दुस्वास करपी लोकय बरेच आशिल्ले, ते म्हळ्यार सनातनी धर्म पाळून कर्मठपणान जियेवंक सोदपी, रोमन सत्तेआड बंड करूंक सोदपी आनी गिरेस्त लोक. जेजूफाटल्यान लोक वतात ही गजाल तांकां मानवलीना. जेजूचे दुस्मान ताका मारून उडोवपाची संद सोदताले. आपल्या मुखार संकश्ट येवपाचें आसा हें खबर आसून लेगीत जेजून आपल्या शिष्यांसयत निमणें जेवण घेतलें. जेजूचो एक शिष्य जुडास हाणें ताचो घात केल्ल्यान जेजूक धरून ताचेर खटलो चलयलो. रोमन सुभेदार पाँटियस पिलात हाच्या मुखार ताका उबो केलो. ताणें रोमन सत्तेआड बंडाचो यत्न केल्लो असो ताचेर आरोप दवरलो. खरें म्हळ्यार ही गजाल जेजून केन्नाच केली ना. पूण रोमन साम्राज्याक ताका मारून उडोवपाखातीर कितें तरी कारण जाय आशिल्लें. तांणी पुराय चवकशी करीनासतना जेजूक खुरसार मारपाची ख्यास्त फर्मायली. स्वताक वेदना आनी दूख जाता त्या वेळार लेगीत जेजून आपलो छळ करप्यांखातीर प्रार्थना केली. जेजूचे शिष्य पळून गेले. जेजूक एका थड्यांत पुरलो.

हाच्या उपरांत तीन दिसांनी जेजू परतून जिवो जालो, आनी ताणें आपल्या शिश्यांक दर्शन दिलें. आपली शिकवण आनी संदेश संवसारभर पातळावपाविशीं तांकां सांगलें. तो स्वता सर्गांत गेलो आनी मनशांभितर वावर करूंक आनी आपली पवित्र सभा वा इगर्ज चलोवंक ताणें आपलो आत्मो आपल्याचेर विस्वास दवरतल्यांचेर धाडलो.

जेजून आपल्या शिष्यांकडेन लोकांखातीर म्हान संदेश धाडलो. वायटाक बरेपणान जाप दिवपाचो, एकामेकांचो मोग करपाचो, दुस्मानांक क्षमा करपाचो आनी त्रास दितल्यांक लेगीत बरें मागपाचो हो संदेश आशिल्लो.

**प्रसारः** क्रिस्ताफाटल्यान निर्माण जावपी ह्या नव्या धर्माक सुर्वेक ज्यू धर्मीयांकडल्यान खर विरोध जालो. किरीस्तांव धर्म आपणायतल्यांचो विंगड विंगड पध्दतीन छळ जावंक लागलो. पॉल नांवाचो एक ज्यू मनीस दमास्कस हांगा कांय किरिस्तांव धर्मीयांचो छळ करपाखातीर वतालो. वाटेंत ताका चमत्कारिक अणभव आयिल्ल्यान तो पुरायपणान बदल्लो, आनी स्वता किरिस्तिांव जावन धर्मप्रसार करूंक लागलो. होच पयलो म्हान मिशनरी सेंट पॉल (सुमार इ. स. ३ ते इ. स. ६५) जावन आसा. थॉमस हो जेजूच्या बारा शिष्यांतलो एक. तो भारतांत आयलो आनी ताणें धर्मप्रसाराक सुरवात केली (सुमार पयलें शतमान). रोमच्या सम्राटांनी मात किरीस्तांव धर्मीयांचो आनी धर्म प्रसारकांचो उपाट छळ केलो. किरीस्तांव धर्मीयांनी रोमच्या सम्राटाची देव म्हूण मूर्तीपूजा करूंक न्हयकार दिलो. निरो (इ.स. ६४), डेशियस (इ.स. २४९-२५९) डोक्लेसियन, गॅलेरियस आनी मॅक्सिमिन डेझा (इ.स. ३०३-३१२) ह्या रोमन साम्राटांचे कारकिर्दींत तर ह्या छळाचो भयंकर अतिरेक जालो. इ. स. ३१३ त कॉन्स्टन्टिन आनी लिसीनियस साम्राज्यांनी काडिल्ल्या फर्मानाक लागून हो छळ सोंपलो. ह्या काळांत किरीस्तांव संतांनी आपले बरपावळींतल्यान लोकांकडेन पावपाचो चड यत्न केलो. ३२५ वर्सा कॉन्स्टन्टिन सम्राटान स्वता किरीस्तांव धर्म आपणायलो आनी ताका लागून हो धर्म रोमन साम्राज्याचो राजधर्म जालो. इ. स. ३८० वर्सा अधिकृतपणान रोमन सम्राटांनी किरीस्तांव धर्म आनी जेजू क्रिस्ताक व्यक्तिगत विरोध परगटायलो, तेन्ना पोपच्या फुडारपणाखाल सगळ्या बिशपांच्यो बसका जाल्यो आनी किरीस्तांव धर्माचीं तत्त्वां कबूल करून घेतलीं. ह्या बसकां उपरांत धर्मप्रसाराचो वावर संवसारभर नेटान जावंक लागलो. रोमन साम्राज्याचे कुडके जावन उदेंत आनी अस्तंत अशे दोन वांटे जाले. इ. स. ४७६ वर्सा जाल्ले हे घडणुकेंतल्यान किरीस्तांव धर्माक मात्सो धक्को बसलो. धर्माचें अधिकृत स्वरूप नश्ट जालें. ल्हान ल्हान राज्यांची थापणूक जाली आनी बऱ्याच राज्यांनी किरीस्तांव धर्म आपणायलो.

उदेंतेवटेन कॉन्स्टन्टिनोपल शाराक म्हत्व येवन थंय किरीस्तांव धर्म आनीक हजार भर वर्सां तसोच उरलो. ग्रीकांची राजवट थंय आसासर तो राजधर्म म्हूण उरलो. पूण ८६७ आनी १०६४ वर्सा कांय उदेंतेवटेनच्या इगर्जींनी पोपचें फुडारपण न्हयकारलें आनी त्यो आपल्या ऑर्थोडॉक्स पॉर्ट्रआर्काखाल रावल्यो. इतले मजगतीं इस्लाम धर्माची थापणूक जाल्ली आनी बरीचशीं किरीस्तांव धर्माखाल आशिल्लीं राज्यां इस्लाम धर्माखाला

गेल्लीं. इस्लाम आनी किरिस्तांव धर्म हांच्यामदलीं झुजां तेंगशेक पावलीं. किरिस्तांवांनी 'कुसेड्स' नांवाच्या फौजांची थापणूक करून धर्माखातीर झुजपाचे यत्न केले. १४८३ त कॉन्स्टन्टिनोपल शार मुसलमानांच्या हातांत गेलें. इतलो काळ हें शार किरिस्तांव धर्माचें उदेंतेवटेनचें केंद्र जावन आशिल्लें. उदेंतेवटेनच्या किरीस्तांवांनी रशियेंत आपलो वावर चालू करून मॉस्को हांगा वेगळो ऑर्थोडॉक्स पॅट्रिआर्क स्थापलो आनी धर्मप्रसाराचें काम चालू दवरलें.

रोमन साम्राज्य काबार जाल्या उपरांत युरोपांत सरंजामशाय (feudalism) चें पर्व सुरू जालें. जर्मन राज्यांनी एकामेकांचेर घुरयो घालून ल्हान ल्हान राज्यांची थापणूक केली. ह्या काळांत पोप लिओ पयलो (४४०-४६१), गोलाशियस (४९२-४९६) आनी ग्रेगोर पयलो (५९०-६०४), हांणी त्या राज्यांनी किरिस्तांव धर्माचो प्रसार केलो. राजकारण आनी धर्म हांची ह्या काळांत एकामेकांभितर बरीच भरसण जाल्ली. फ्रांस आनी जर्मनी ह्या राज्यांतलो बरोच वाठार इगर्जीचे मालकेचो आशिल्लो आनी ताका लागून पोप आनी राजा हांच्यामदल्या कोणाकडेन एकनिशठ रावचें असो प्रस्न लोकांमदीं उप्रासलो.

सेंट फ्रांसिस (११८२-१२२६) सारक्या फुडाऱ्याक लागून इगर्जीची बरीच उदरगत जाली. पूण ताच्या उपरांत परिस्थिती इबाडली आनी इगर्जीभितर आनी किरिस्तांव धर्माभितर झगडीं सुरू जालीं. ह्या सगळ्याचो परिणाम जावन धर्मसुदारणेच्यो चळवळी सुरू जाल्यो.

प्रबोधनाचे (Renaissance) चळवळींतल्यान इगर्जींतल्या सुदारणेखातीर परिस्थिती फाव तशी केली. मार्टिन ल्युथर (१४८३-१५४६) हाणें धर्मसुदारणेविशींचीं मतां मुखार मांडूंक सुरवात केली. ह्या चळवळीक प्रस्थापित धर्मसत्तेकडल्यान बरोच विरोध जालो. हे चळवळीक प्रॉटेस्टंट अशें नांव मेळ्ळें. इतलेमजगतीं क्रिस्तोफर कोलंबस (१४९२) हाणें अमेरिकेंत आनी वास्को-द-गामा हाणें (१४९८) भारतावटेन किरीस्तांव धर्म पावयलो. मार्टिन ल्युथराचे जर्मनींतले चळवळी वांगडा जॉन कॅल्विन हाणें जिनिव्हा हांगा आनी आठवो हेन्री हाणें इंग्लंडांत प्रॉटेस्टंट इगर्जींची थापणूक केली. पोप तिसरो पॉल (१५३४-१५४९), तिसरो ज्यूलियस (१५५०-१५५५) आनी चवथो पायस (१५५६-१५६६) हांणी १५४५ ते १५६३ मेरेन ट्रेंट शारांत संवसारांतल्या बिशपांची बसका आपोवन कॅथलिक धर्माक एक नवो मार्ग सोदून काडपाची गरज उत्तायली. पूण अर्दो युरोप प्रॉटेस्टंट आनी अर्दो कॅथलिक अशे वांटे जाले. पाद्री आनी माद्रींच्यो संस्था निर्माण जावन कॅथलिक धर्मपंथाक घटाय हाडचे नदरेन वावर सुरू जालो.

अठराव्या शतमानांत इगर्जेचो कारभार संवसारांतल्या बऱ्याचशा देशांनी वाडूंक लागिल्लो. व्हॅटिकन हांगा पोप जुवांव तेवीसावो (१९५८-६४) हाणें १९६३ वर्सा व्हॅटिकन हांगा दुसरी विश्व बसका आपयली आनी पॉल सवो (१९६३-१९७८) हाणें ती १९६५ वर्सा सोंपयली.

**भारतांत आनी आशियांत धर्मप्रसारः** युरोपांत किरिस्तांव धर्म पुरायपणान प्रस्थापित जांवच्यापयलीं भारतांत संत थॉमस हाणें किरिस्तांव धर्म हाडलो. इ. स. ५२ वर्सा तो केरळ हांगा पावलो. इ. स. ७२ वर्सा ताका मायलोपुर (तामीळनाडू) हांगा मर्ण आयलें. सातवाहनांच्या साम्राज्यावेळार आनीक एक किरिस्तांव संत बाथोलोमेव हो कोंकण वाठारांत आयिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. दक्षिण भारतांत किरिस्तांव धर्म बऱ्याच जाणांनी आपणायल्लो. पोर्तुगेज भारतांत येवचेपयलीं सिरीयन इगर्जेचे जाळवणदार हांगा आपले बिशप धाडटालो. १५०२ त वास्को-द-गामा जेन्ना भारतांत येवंक भायर सरिल्लो तेन्ना ताका सिरीयन इगर्जेच्या प्रतिनिधींनी क्रांगानोर हांगा १०,००० आनी क्विलॉन हांगा २५,००० किरिस्तांव आशिल्ल्याची म्हायती दिल्ली. कोचीनांतल्या किरिस्तांवांक बरीच पीडापीड भोगची पडटा अशीय ताका म्हायती दिल्ली. पोर्तुगेजांनी ह्या सगळ्या किरिस्तावांक आपल्या आलाशिऱ्याखाल घेवन तांकां आपल्यो चाली-रिती शिकयल्यो. आयजमेरेन केरळांतल्या कॅथलिकांमदीं ह्या चालीरितीच्या परिणामांतल्यान उप्राशिल्ले तीन पंगड आसात, रोमन कॅथलिक (लॅटीन), सायरो मलबार आनी सायरो मलंकार तेभायर थंय जेकबायट, मारथॉमायट, उदेंतेची सिरीयन ऑर्थोडॉक्स आनी प्रॉटेस्टंट अशेय ल्हान व्हड पंगड आसात.

१५१० त पोर्तुगेजांनी गोंयांत पावल दवरलें आनी १५४० सावन गोंयचेर बरोच शेक गाजोवन हिंदूचीं देवळां मोडूंक सुरवात केली. तिसवाडी, बारदेश आनी साश्टी वाठारांत किरिस्तांव धर्म रिगूंक लागलो. फ्रांसिस्कान, डॉमिनिकन आनी जेजुईत मिशनरींच्या यत्नांक लागून इगर्जीची चळवळ मूळ धरूंक लागली. १५४२ त सेंट फ्रांसिस झेवियर हाणें श्रीलंका, नायलापुर, बासेईन, मलाक्का, मोरो आनी इंडोनेशिया ह्या वाठारांनी कॅथलिक इगर्जीची थापणूक केली. १९५२ त चीनांत ताका मरण आयलें. आपल्या धा वर्सांच्या वावरांत ताणें किरिस्तांव धर्म व्हडा प्रमाणांत पातळायलो. जेजुईत रुदोल्फ आक्वाविया हाणें दिल्ली मेरेन वचून तेन्नाचो मुघल बादशहा अकबर हाका किरिस्तांव धर्माविशीं म्हायती दिली. रॉबर्ट दि निबीली आनी मातेव रिकी हांणी भारतीय आनी चिनी चालीरितीचो किरिस्तांव धर्मांत आस्पाव केलो. थॉमस स्टीफन ह्या जेजुईत पाद्रीन कोंकणी भाशेचें व्याकरण आनी मराठी भाशेंतल्यान क्रिस्त पुराण बरयलें.

१५३३-३४ वर्सा गोंयचे डायसिझ ची थापणूक जाली. तिच्याखाला मोझांबीक सावन जपान मेरेनचे सगळे देश आशिल्ले. डॉमिनीकन, फ्रांसिस्कन, जेजुईत, आगॉस्टिनियन, कार्मेलायट हांणी पोरन्या गोंयां येवन आपल्यो इगर्जो निर्माण केल्यो. गोंयां सावन तांणी उदेंतेवटेन किरिस्तांव धर्मप्रसाराक आरंभ केलो. जेजुइतांनी सेंट पॉल विद्यालयाची थापणूक केली.

१५५५ वर्सा पोर्तुगेज सरकारान जेजुईत, फ्रांसिस्कन आनी डॉमिनिकन हांचेमदीं धर्मप्रसाराचो वावर वांटून दिलो. फ्रांसिस्कन बारदेसांत, जेजूईत साश्टींत आनी तिसवाडीच्या १५ गांवांनी आनी उरिल्ल्या १५ गांवांनी डॉमिनिकन वावर करूंक लागले. गोंयांत बऱ्याच गांवांनी इगर्जो बांदल्यो. सतराव्या शतमानांत पोर्तुगेजांची शक्त उणी जाल्ल्यान श्रीलंका आनी हेर वाठारांनी कॅथलिक इगर्जांच्या सुवातींचेर प्रॉटेस्टंट इगर्जो उब्यो जाल्यो.

**कॅथलिक इगर्जः** कॅथलिक इगर्ज हें किरिस्तांवांचें एक धर्मपीठ. हें धर्मपीठ जेजू क्रिस्ताच्या कळासावन वावर करता आनी रोमच्या पोप सायबाक आपलो मुखेल मानता. हें धर्मपीठ संवसारांत जंय जंय कॅथलिक लोक आसात, थंय आसा. जेजूच्या शिश्यांनी ताची शिकवण संवसारभर पातळायली आनी ताका लागून इगर्जय सगळेकडेन पावली. कॅथलिक हें उतर पयलीं सगळ्याच प्रकारच्या इगर्जींक वापरताले. उपरांत रोमन इगर्जीन हें पद फकत आपल्याच इगर्जींक लागू केलें. ही गजाल कांय इगर्जींनी मान्य केली, जाल्यार कांय जाणांनी न्हयकारली. अँग्लीकन आजून स्वताक अँग्लो-कॅथलिक म्हण्टात.

रोमन कॅथलिक इगर्ज सद्या किरिस्तांव धर्मांतली सगळ्यांत व्हड संस्था जावन आसा. तिका पध्दतशीर मांडावळ आनी बांदावळ आसा. संवसारांत इगर्जीच्या वावराखाल जे प्रांत आसतात, तांकां 'डायसिस' म्हण्टात. डायसिसचो मुखेल बिशप आसता. कांय प्रांत आर्कडायसिस वा म्हाप्रांताखाल आसतात. तांचो मुखेल आसता आर्चीबिशप. पयलीं गोंय म्हाप्रांताचे आर्किडायसिसखाला भारत आनी चीन देश आशिल्ले.

भारतांत रोमन कॅथलिक इगर्ज गोंय, केरळ, महाराष्ट्र, बिहार, कर्नाटक आनी तामिळनाडू हांगा चड प्रमाणांत आसा. ह्यो इगर्जो त्या त्या वाठारांत किरिस्तांवांमदीं वावर करतात.

**धर्मसिध्दांत आनी संस्कारः** देव मनशाचें रूप घेवन धर्तरेचेर स्वता मनीस जावन आयलो हो इगर्जीचो सगळ्यांत म्हत्वाचो धर्मसिध्दांत आसा. दरेक मनीस हो पापावटेन झुकता. आदमान केल्ल्या पयल्या पापासावन सगळी मनीसजात पापाचे परंपरेंतली आसा. पश्चात्ताप

केल्ल्यान येशू क्रिस्ताची कृपा जाता आनी पापां धुंवन वतात. देवाचें स्वरुप तीन प्रकारचें आसा. बापायच्या स्वरुपांतलो देव, पुताच्या स्वरुपांतलो देव आनी पवित्र आत्म्यांतलो देव, दुसऱ्यांक दया आनी काकुळट दाखोवप, सोशिकपणा, सेवा आनी दुसऱ्यांक मान दिवप, दुस्मानाचेर लेगीत मोग करप हेसारकी शिकवण किरिस्तांव धर्म दिता.

हेर धर्मांप्रमाण किरिस्तांव धर्मामदींय खासा कर्मकांडां आनी संस्कारांचो आस्पाव जाता. भौशीक उपासना आनी प्रार्थना दर आयतारा सकाळीं वा हेर सोयीच्या वेळार पाद्रीच्या सुचोवणेप्रमाण जाता. बाप्तिस्मो हो ह्या धर्मांतलो म्हत्वाचो संस्कार. बाप्तिस्मो दिल्या उपरांतच मनीस खऱ्या अर्थान पुरायपणान किरिस्तांव जाता. किरिस्तांव धर्मांतलो हो म्हत्वाचो दीक्षाविधी जावन आसा.

बाप्तिस्म्यावरवीं कोणाय किरिस्तावांक पाद्रीपणांत वांटो घेवंक मेळटा; तरी इगर्ज चलोवंक आनी लोकांची सेवा करपाखातीर वेगळ्या अधिकृत पाद्रीपणाची गरज आसता. लॅटीन तशेंच उदेंतेवटेनचे रितीचे कॅथलिक पोप सायबाक विश्व इगर्जीचो मुखेल मानतात. जेजून बारा प्रेषितांक वेंचून काडून तांतल्या एकल्याक (सेंट पीटर) आपल्या पवित्र बसकेचो मुखेल म्हूण वेगळी जापसालदारकी दिल्ली. ह्या जापसालदारकेचे परंपरेंतल्यान पोपाची वेंचणूक जाता. खाशेल्या भूगोलीक वाठारांतल्या किरिस्तावांच्या चोम्याक डायसिस म्हण्टात. ह्या डायसिसचो वा थळावे सभेचो एक बिशप आसता. तो आपल्या वाठारांतल्या इगर्जींचो कारभार पळेता. रोमन कॅथलिक इगर्जीक जीण ऑपिल्ल्या बिशप आनी पाद्री हांकां आंकवार जिवीत सारचें पडटा.

**किरिस्तांव धर्मपंथः** किरिस्तांव धर्मांत तीन मुखेल पंथ आसात. १. रोमन कॅथलिक पंथ २. प्रॉटेस्टंट पंथ आनी ३. ईस्टर्न ऑर्थोडॉक्स इगर्ज. रोमन कॅथलिक पंथाच्या मतान क्रिस्ताच्या फुडारपणाखाल इगर्जींत सगळे अधिकार केंद्रित जाल्यात. इगर्जीक लागून बायबलाक प्रामाण्य प्राप्त जालां. तांच्या मतान इगर्जीकि सगळ्यांत चड म्हत्व आसा. प्रॉटेस्टंट पंथाचे नदरेन इतिहासीक घडणुकांप्रमाण क्रिस्ताफाटल्यान सगळ्यांत चड म्हत्व बायबलाक आसा. तांचे मुखेल फांटे अशेः १. ल्यूथरन इगर्ज २. प्रॉसिबिटेरीयन इगर्ज ३. मेथडिस्ट इगर्ज ४. अँग्लीकन इगर्ज ५. क्रॉग्रिगेशनॉलिझम ६. रिफॉर्म्ड इगर्ज आनी ७. बॅप्टिस्ट इगर्ज. सातूय फांट्यांभितर उपासना आनी धर्मांतले विस्वास हांचेर मतभेद आसात. इस्टर्न ऑर्थोडॉक्स इगर्जींतलीं बरींच मंडळां (कम्युनियन्स) रोमच्या पोपची सत्ता मान्य करीनात. इस्टर्न ऑर्थोडॉक्स इगर्जीचें मूळपीठ कॉंस्टंटिनोपल हांगा आसा. तांचे कांय धर्मसिध्दांत रोमन कॅथलिक आनी प्रॉटेस्टंट हांचेपरस वेगळे आसात. कांय गजालींनी ह्या तिनूय पंथांमदीं एकचार आसा तरी कांय सिध्दांतांचेर बरोच वेगळोचार आसा.

**किरिस्तांव धर्माचो वावर करपी कांय नामनेचे गोंयकारः** गोंयचो पयलो पाद्री म्हळ्यार करमळे गांवचो आंद्रे वाझ. ताणें १५५८ त पाद्रीपणाची दीक्षा घेतली. ताच्या उपरांत बरेच गोंयकार पाद्री जावंक मुखार सरले. सतराव्या शतमानाच्या शेवटाक सुमार एक हजार गोंयकार पाद्री आशिल्ले. पूण त्या काळांत सगळ्यो उंचल्यो सुवाती पोर्तुगेज पाद्रींच्या हातांत आशिल्ल्यो. पोर्तुगेजांचो उदेंतेवटेनचो शेक उणो जाता म्हळ्यार गोंयच्या पाद्रींक उंचल्यो सुवाती मेळूंक लागल्यो. १६३७ वर्सा दिवाडी गांवच्या मातेवस द काश्त्रु हाका पोप सायबान बिशप केलो आनी विजापूर आनी मुघल साम्राज्यांतल्या इगर्जींचो कारभार ताचेकडेन सोंपयलो. पोर्तुगेज ताका मानून घेवंक तयार जालेना. ताच्या उपरांत १६७७ त वेर्णेचो कुस्तोदियो पिन्यु विजापूरचो दुसरो बिशप जालो. ताच्या उपरांत आयजमेरेन ४० गोंयकार पाद्री बिशप जाले. तांणी आफ्रिका, पाकिस्तान, ब्रह्मदेश हांगा धर्मप्रसार केलो. १९७३-७८ मेरेन नावेली हांगाचो वालेरियन ग्रासियश हो मुंबयचो बिशप आशिल्लो. कराचीचो आर्चबिशप आनी पाकिस्तानचो पयलो कार्डिनल जुझे कार्देरो हो गोंयच्या सालय गांवचो. दिल्लीचो आर्चबिशप अँजेलो इनोसेंट फर्नांडीस कांदोळी गांवचो, नागपूरचो आदलो आर्चबिशप लिओनार्ड रेमंड सालयचो आनी आतांचो लिओबार्ड डिसौझा थिवीचो. भोपाळचो सद्याचो आर्चबिशप युजेन डिसोझा साळगांवचो, आग्रा हांगाचो आर्चबिशप सेसिल डीसा म्हापशेंचो, कलकत्ताचो आर्चबिशप हेन्री डिसौझा साळगांवचो, मध्य अमेरिकेंत आशिल्लो व्हॅटिकनचो दूत आनी आर्चबिशप इव्हान डायस वेळसांवचो. हेभायर बरेच गोंयकार किरिस्तांव धर्मांतल्या उंचल्या पांवड्याचेर आसात.

हेभायर आदल्या दोन शतमानांनी पांच गोंयकारांक बिशप जावंक वेंचून काडिल्ले, पूण तांणी तें पद न्हयकारिल्लें. बिशप जायनासतना लेगीत सुमार ३० गोंयकार पाद्रींनी जायतो काळ डायसिसिंचो कारभार सांबाळ्ळा. गोंयकार पाद्रींनी पाद्री आनी माद्रींच्या बऱ्याच संस्थांची थापणूकय केल्या. गोंयच्या दोग पाद्रींचो पोप सायबान भोवमान केला ते जुझे व्हाज आनी आग्नेल द सौझ. पाद्री जेकॉम गॉन्सालवीश १७०० ते १७३८ मेरेन श्रीलंकेत मिशनरी म्हूण वावर करतालो. ताणें थंयच्या थळाव्या भाशांतल्यान बरेंच धर्मविशयक साहित्य उजवाडायलें. कायतान कुस्तोदिओ द रोझारिओ बारेंटो आनी बेन्तो मार्टिन्स हांणी गोंयच्या विंगड विंगड वाठारांनी एकुणीसाव्या शतमानांत धर्मप्रसाराचो वावर केलो. १८८७ त पिलारचे संस्थेची थापणूक जाल्ली; पूण १९३९ मेरेन हे संस्थेची परिस्थिती इबाडली; तेन्ना कान्सेसांव रॅड्रीगीश आनी फ्रान्सिस्कु सिकैर हांणी आपल्या वांगड्यांसयत ते संस्थेक परतून बरे दीस हाडले. आयज भारतभर किरिस्तांव धर्मसंस्था शिक्षणीक समाजीक आनी तांत्रिक मळार काम करतात. गोंयचो आलेक्स डायस अंदमान निकोबार ह्या वाठारांत बिशप आसा. आर्मान्द आल्वारीस (१९०३-१९८४) ह्या ओडली गांवच्या पाद्रीन बेळगांव वाठारांतल्या लोकांमदीं धर्मप्रसाराचें काम केलें. संस्कृत भास शिकून घेवन भारतीय भेस करून ताणें थळाव्या लोकांमदीं किरिस्तांव धर्माविशीं गोडी निर्माण केली. ताणें स्वामी अनीमानंद हें नांव धार केलें आनी किरिस्तांव धर्माचें भारतीयकरण करपाचे नदरेन व्हड वावर केलो.

**-फा. कॉज्मे ब्रु. कॉस्ता.**- कों. वि. सं. मं.

## किर्तनी, शंभू यशवंत सिनाय (जल्मः १० नोव्हेंबर १९१५, मडगांव).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठी आनी पोर्तुगेजींतल्यान घेतलें. राश्ट्रीय कॉंग्रेस गोंय (National Congress Goa) संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. मुटके चळवळीच्या काळांत तो मुंबय आशिल्ल्या राश्ट्रवाद्यांक गोंयांतल्या पोर्तुगेज कारवायांविशीं खबर पावयतालो. ३० मे १९५६ दिसा मडगांव शारांत ताका पोलिसांनी अटक केलो. पणजी बंदखणींत ताका साडे चार वर्सां दवरिल्लो. उपरांत दोन वर्सां ताका आग्वाद बंदखणींत दवरलो. २६ सप्टेंबर १९७३ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## किसमूरः

सादारणपना खाऱ्याचे (मुकें नुस्तें) कपे काडून ताचो कीस (बारीक कुडके) करून मसाल्यांत भरसून केल्लो एक पदार्थ.

पावसांत जितें नुस्तें जायत्या प्रमाणांत मेळना. तेन्ना खाऱ्याचेर भागोवपाची गोंयकारांमदीं सवंय आसता. केन्ना खारें निखट्या इंगळयार वा तव्यार (कायलीर) भाजून खातात तर केन्ना खाऱ्याचे कपे भाजून तातूंत मिरसांग, हळद, आमटाण, कांदो, सोय आनी मीठ घालून तळसून घेतात. केन्नाकेन्नाय जितें नुस्तें आसून लेगीत रुची बदलली म्हूण किसमूर करपाची पध्दत आसा.

**करपाची पध्दतः** चड करून सगळे तरेच्या खाऱ्याची किसमूर करतात. पूण तातूंतल्या तातूंत किसमुरीखातीर सुको बांगडो आनी सुकीं सुंगटां हाचो वापर चड प्रमाणांत करतात. ज्या खाऱ्याची किसमूर करपाची आसता, तें भाजून ताचे ल्हान ल्हान कुडके करतात. उपरांत तातूंत मिरसांग आनी हळद हांचो पिठो, नाल्लाची सोय, कांदो, मीठ आनी आमटाणीचें उदक घालून सगळें एकठांय भरसून घेतात. कांय

कडेन हे सगळे जिन्नस एकतर तेलांत तळशीतात वा शिजयतात. कांय वेळा अशी किसमूर जातकच पेटिल्लो कोळसो किसमुरीचेर दवरून तेच किसमुरीन तो परतो धांपून घेतात; हाका 'धुवण घालप' अशें म्हण्टात. कोळशाच्या धुंवराचो घमघम आयिल्ले किसमुरीक एक वेगळीच रूच येता. हालींच्या काळांत व्हड व्हड हॉटेलांनी किसमूर, गोंयचो एक खाशेलो पदार्थ म्हूण दिवपाची प्रथा जाल्या. भोंवडेकारांक हो पदार्थ भोव मानवता.

\- सुधा आमोणकार

**कीटकनाशकां:** मनीस आनी मोनजात हांकां जावपी कांय रोगांच्या जंतूंचो प्रसार करपी तशेंच शेतांतलीं पिकां, सांठयल्लें अन्नधान्य, कपडे, लांकूड हांच्या सारकिल्या जीवनावश्यक सामग्रीचो इबाड करपी कीटकाचो (कीडींचो) नाश करपाखातीर जीं रसायनां वापरतात तांकां कीटकनाशकां अशें म्हण्टात. उपद्रवी कीटकांचो नाश करपाच्यो पध्दती खूब पूर्विल्ल्या काळसावन प्रचलित आसात. पूण हालींच्या काळांत मोट्या प्रमाणाचेर रसायनांचो वापर करून कीटकांचो नाश करपाच्यो पध्दती अस्तित्त्वांत आयल्यात. आर्सेनिकाचो (arsenic) कीटकनाशक म्हूण वापर जातालो, असो उल्लेख प्लिनी (इ. स. ७०) हाणें आपल्या बरपांत केला. गंधक जळयल्यार ताच्या धुंवरान कीटकांचो नाश जाता असो उल्लेख होमर हाच्या ग्रंथांत सांपडटा. रोमन लोक कीटकांचो नाश करपाखातीर 'हेलेबोअर' हे वनस्पतीच्या मूलक्षोडाचें (root-stock) चूर्ण वापरताले. सोळाव्या शतमानाचे अखेरेक चिनी लोकांनी आर्सेनिक सल्फाइडाचो (arsenic sulphide) उपेग कीटकनाशक म्हूण केलो. भारतांत पूर्विल्ल्या काळांत कीटकांचो नाश करपाखातीर विखाचो उपेग करताले, अशे उल्लेख मनुस्मृति, कौटिलिय अर्थशास्त्र, सुश्रुतसंहिता ह्या पूर्विल्ल्या ग्रंथांत सांपडटात.

आर्विल्ली कीटक नियंत्रण पध्दत दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत प्रचलित जाली. डी. डी. टी. (D.D.T.) आनी बी. एच्. सी. (B. H. C.) ह्या सेन्द्रिय कीटकनाशकांच्या सोदाक लागून कीटक नियंत्रण पध्दतींत मोटी क्रांती घडून आयली. भारतांत जी हरित क्रांती जाल्या, तिचें चडशें श्रेय ह्या कीटकनाशकांक वता. १९३६ वर्सा ३० कीटकनाशकांची नोंद जाल्ली. आयज हो आंकडो १४०० चे वयर गेला.

कीटकनाशकांचे कांय प्रकार आसात ते अशे: १. जंतूनाशकां (Insecticides): शेताक तशेंच घरांत उपद्रव करपी किडींक (insects) मारपाखातीर वापरतात तीं वखदां. २. चितोनाशकां (Fungicides): बुरशी वा चित्यापसून जावपी रोगांआड वापरपाचीं वखदां ३. जीवाणुनाशकां (bactericides): बारीक जंतूंपसून जावपी रोगांआड हीं वखदां वापरतात ४. मूषकनाशकां (Rodenticides): हुंदरांक मारपाक वापरतात तीं वखदां ५. कोळीनाशकां: कोळी मारपाक वापरतात तीं वखदां. ६. सुत्रकृमीनाशकां (Nematicides): सुत्रकृमीपसून जावपी रोगांआड वापरपाचीं वखदां ७. नडणीनाशकां (Weedicides): शेतांत उपद्रव करपी नडणेआड मारपाचीं वखदां. हीं सगळीं कीटकनाशकां बाजारांत फुडल्या स्वरुपांत मेळटा: पातळ (liquid)- देखीक: डिमेक्रोन, पिठो (dust)- देखीक: बी. एच्. सी., खडे (granules)- देखीक: फुराडोन, गुळयो (tablets)- देखीक: ॲल्युमिनियम फोस्फाइड (Aluminium Phosphide)

मोट्या प्रमाणांत वापरांत आशिल्ल्या कीटकनाशकांची माहिती थोड्याभितर अशी: *१. जंतूनाशकां:* (अ) बी. एच्. सी., 'गॅमेक्झिन' 'सबमार' ह्या सारक्या वेपारी नांवांन मेळटा. हें वखद दोन प्रकारांत मेळटा. बी. एच्. सी. १० टक्के आनी बी. एच. सी. ५० टक्के. बी. एच्. सी. १० टक्के ह्या वखदाची धुंवरी मारतात. तशेंच कसलोय रोंपो कोरेट वखदासारकोच करतात. (ब) डी. डी. व्ही. पी.: 'नुवान', 'सुक्लोर' ह्या सारक्या वेपारी नांवान पातळ स्वरुपांत मेळटा. फांफुडल्या उपरांत ह्या वखदाचे अंश पिकाचेर चड काळ उरता, ताका लागून भाजी जावं फळां काडपाच्या वेळार कीड आयली जाल्यार ह्या वखदाचो वापर करतात.

*२. चितोनाशकां (Fungicides):* (अ) बोर्दो मिश्रण: हें वखद तयार स्वरुपांत बाजारांत मेळना. मोरचूद (copper sulphate) आनी चुनो हांची भरसण करून हें वखद तयार करतात. चित्यापसून जावपी बऱ्याचशा रोगांआड ह्या वखदाचो वापर करतात. सुपारेच्या कोळेरोगाआड ह्या वखदाचो चड वापर जाता.

(ब) कॉपर ऑक्सीक्लोराइड: 'ब्लायटोक्स', 'फायटालोन' अशा बाजारी नांवान, उदकांत विरगळपी पिठ्याच्या रूपांत मेळटा. सुपारेचो कोळेरोग, चरांतलीं रोपां कुसपी रोग, ह्या सारक्या रोगांआड ह्या वखदाचो वापर करतात. (क) गंधक: 'सल्फेक्स', 'क्टेसल्फ' ह्या सारक्या बाजारी नांवान हीं वखदां, उदकांत विरगळपी पिठ्याच्या रुपांत मेळटात. भुरी रोगाचेर ह्या वखदाचो वापर करतात. (ड) कार्बेन्डाझीन: 'बावीस्टीन' 'बी-स्टेन' ह्या बाजारी नांवांन उदकांत विरगळपी पिठ्याच्या रुपांत मेळटा. फांफुडल्या उपरांत हें वखद रोपाच्या आंगांत भिनता. भाताचेर पडपी 'चर्मो' तशेंच हेर बऱ्याच चित्यांपसून जावपी रोगाआड ह्या वखदाचो वापर करतात. भाजयेच्या बियांक लावपाकूय ह्या वखदाचो वापर करतात. (इ) पारायुक्त: 'अॅग्रेसोन', 'सेरेसोन', 'पारासोन', 'अॅरेटोन' ह्या सारक्या बाजारी नांवान पिठ्याच्या रुपांत मेळटा. हीं वखदां फकत बियांक चोळपाखातीर वापरतात.

३. *जीवाणूनाशकां (Bactericides):* स्ट्रेप्टोसायक्लीन: बारीक जीवाणूंपसून जावपी रोगाआड ह्या वखदाचो वापर करतात. भात तशेंच मिरसांगेचर पडपी 'करपो' रोगाआड ह्या वखदाचो वापर करतात.

४. *मूषक नाशकां:* (अ) झींक फोस्फाईड: 'राटानोल', 'झींक टॉक्स' ह्या सारक्या बाजारी नांवान पिठ्याच्या रुपांत मेळटा. ५०० ग्रॅम पीठांत, २५ ग्रॅम हें वखद घालून, तातूंत थोडेशें तेल घालून ताच्यो गुळयो करून हुंदरांक दवरतात. (ब) वारफारीन: 'रेडाफरीन', 'वारफाटोक्स' ह्या सारक्या वेपारी नांवान, पिठो तशेंच केकाच्या रुपांत मेळटा. १८ भाग पिठांत एक भाग वखद आनी थोडेशें तेल घालून हुंदरांक खावपाक दवरतात. क) ॲल्युमिनियम फोस्फाईड: 'अलफोस' 'सेलफोस' ह्या सारक्या बाजारी नांवान गुळयांच्या रुपांत मेळटा. हुंदराच्या एका बिळांत दोन गुळयो घालून, बीळ बंद केल्ल्यान हुंदीर घुस्मटून मरता.

५. *कोळीनाशकां:* हेर किडींक वापरतात तीं सगळीं वखदां कापोडयांआड उपेगी पडनात. तेखातीर गंधक, केलथेन हांच्यासारकीं खास वखदां वापरतात.

६. *सुत्रकृमीनाशकां* (Nematicides): सुत्रकृमींपसून जावपी रोगाआड 'क्लोरोपीक्रीन', 'थायमेट' ह्या सारक्या वखदांचो वापर करतात.

**नडणीनाशकां** (Weedicides): नडणीनाशकांचे दोन प्रकार आसात. १. एकपरिणामी २. भोवपरिणामी. जीं नडणीनाशकां पिकांक बाधा करीनासतना फकत नडणीच मारतात तांकां एकपरिणामी नडणीनाशकां अशें म्हण्टात. जीं नडणीनाशकां, पीक आनी नडणी दोनांचोय नाश करतात, तांकां भोवपरिणामी नडणीनाशकां अशें म्हण्टात. ह्या दोनूय प्रकारांचे आनीक पोटप्रकार आसात, ते म्हळ्यार: १. नडणी किल्लून येवचे पयलीं मारपाचीं वखदां (Pre-emergence) २. नडणी किल्लून आयल्या उपरांत मारपाचीं वखदां (Post-emergence). मोट्या प्रमाणांत वापरांत आशिल्लीं कांय मुखेल नडणीनाशकां अशीं:

२-४-डी: 'फर्नोक्झोन', 'विडोल' सारक्या बाजारी नांवान मेळटा. नडणी किल्लून येवचेपयलीं तशेंच नडणी किल्लून आयल्या उपरांत अशा दोनूय तरांनी ह्या वखदाचो वापर करूं येता. भात, ऊंस ह्या सारक्या पिकांतली नडणी मारपाक ह्या वखदाचो वापर करूं येता.

पॅराक्वाट: 'ग्रामाक्झोन' ह्या बाजारी नांवान मेळटा. हें भोवपरिणामी नडणीनाशक आशिल्ल्यान हाचो फळझाडाच्या पोरसांनी आशिल्ले नडणेआड वापर जाता.

अट्राझीन: अट्राटाफ ह्या बाजारी नांवान मेळटा. नडणी किल्लून येवचेपयलीं मारपाचें हें वखद, ऊंसांतली नडणी मारपाक वापरतात.

**प्रोपानिल:** 'स्टॅम-एफ-३४', 'हग्जानिल' ह्या सारक्या बाजारी नांवान मेळटा. हें वखद नडणी किल्लून आयल्याउपरांत मारपाचें एकपरिणामी

नडणीनाशक आसून हें भातांतली नडणी मारपाक वापरतात.

**ब्यूटाक्लोर**: 'मेचेट' ह्या वेपारी नांवान मेळटा. नडणी किल्लून येवचे पयलीं मारपाचें हें एकपरिणामी वखद आसून तें भातशेतीचे नडणेआड वापरतात.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत संश्लेशित (synthetic) कीटकनाशकांची मोट्या प्रमाणांत निर्मिती सुरू जाली. कीटकनाशकांविशींचें मुळावें संशोधन, निर्मिती, वापर आनी निर्यात हांचे विशीं इंग्लंड, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, स्वीत्झर्लंड आनी अस्तंत जर्मनी ह्या देशांत नेटान प्रगती जाली. जपान आनी युरोपीय राश्ट्रां हांणी कीटकनाशकांच्या धंद्यांत १९६० उपरांत बरीच प्रगती केल्या. भारतांत १९५२ त कीटकनाशकांचें उत्पादन करपी कारखाने सुरू जाले. ते उपरांत सुमार १२ वर्सांनी कीटकनाशकांचो उपेग शेतांत मोट्या प्रमाणांत जावपाक लागलो. हो वापर जसोजसो वाडत गेलो तसोतसो तांच्या निर्मितींच्यो नव्यो येवजण्यो अंमलांत आयल्यो. आयज भारतांत सुमार वीस कारखाने वेगवेगळ्या कीटकनाशकांची निर्मिती करतात.

कीटकनाशकांच्या वापराक लागून रोग आनी किडींचेर आळो बसता आनी ताका लागून शेती उत्पादन वाडटा, हें जरी खरें आसलें तरी ह्या कीटकनाशकांचो मुक्त आनी अती वापर जावपाक लागिल्ल्यान जायते धोकेय निर्माण जाल्यात. पर्यावरण दुशीत जालां. बरीचशीं कीटकनाशकां जीं पिकांचेर फवारतात, तीं पावसाच्या उदकावांगडा जमनींत भरसतात आनी ताका लागू बांयचें आनी झऱ्याचें उदक दुशीत जाता. हालींच केल्ले एके पळोवणेंत अशें दिसून आयलां की, बांयच्या उदकांत कीटकनाशकाचें अंश दिसान दीस वाडत आसात. बरेच खेप भाजीपालो जावं फाळझाडांचेर वखद मारून रोखडीच दोन ते तीन दिसांनी ही भाजी जावं फळां बाजारांत विकपाक हाडटात. अशे तरेन कीटकनाशकांचे अंश मनशाच्या पोटांत वतात आनी ते आंगाच्या वेगवेगळ्या भागांनी पातळटात. ताका लागून मनशाक जायते तरेचीं दुयेंसां जातात. संवसारीक भलायकी संघटनेन केल्ले एके पळोवणेंत अशें दिसून आयलां की विकसनशील देशांत, कीटकनाशकांची विखबाधा जावन दर वर्सा सुमार धा हजार लोक मारतात आनी सुमार एक लाख पंचाहत्तर हजार लोक दुयेंत पडटात. कीटकनाशकांच्या वापराचो सगळ्यांत मोटो धोको म्हळ्यार कांय तेंपान किडी तशेंच रोग जंतूंच्या आंगांत कीटकनाशकांक प्रतिकार करपाची शक्त तयार जाता. ताका लागून कांय तेंपान ह्या वखदांचो तांचेर कांयच परिणाम जायना.

कीटकनाशकांचो खूब मोट्या प्रमाणाचेर उपेग जावपाक लागिल्ल्यान १९६० वर्साउपरांत अस्तंत्या देशांप्रमाणूच भारतांत कांय भौशीक भलायकेविशींच्यो समस्या निर्माण जाल्यो. 'गॅमेक्झिन' 'पॅराथिऑन' हीं कीटकनाशकां भरसल्लें अन्न खावप जाल्ल्यान भारताच्या कांय वाठारांत विखबाधेचे प्रकार घडले आनी तातूंत कांय जाणांक मरण आयलें. ताका लागून कीटकनाशकांचें उत्पादन आनी विक्री हांचेर कांय निर्बंध आसचे, ही जाणविकाय सगळ्याक जावपाक लागली. हे धर्तेचेरूच १९६८ च्या कीटकनाशकांविशींच्या कायद्याची येवजण केली. मनीस पोशिल्लीं जनावरां आनी कांय रानवट प्राणी हांच्या जिवीताक जावपी अपाय टाळपाखातीर कीटकनाशकांचें उत्पादन, येरादारी, वितरण आनी विक्री हांचें नियंत्रण करप हो ह्या कायद्याचो हेत आसा. हो कायदो ४ ऑगस्ट १९७१ सावन लागू जालो आनी ताचेखातीर मध्यवर्ती सल्लागार समिती आनी नोंदणी समिती हांची नियुक्ती जाली. ह्या कायद्याचेर आदारीत अशी एक नेमावळ तयार केल्या. ह्या कायद्याक एक परिशिश्ट जोडिल्लें आसून तातूंत ११० पदार्थांचो कीटकनाशकां म्हूण आस्पाव केला आनी वेळानवेळ गरजेप्रमाण मध्यवर्ती सल्लागार समितीचो संमतीप्रमाण हे वळेरेंत बदल करपाविशींची तरतूद करून दवरल्या.

कीटकनाशकांपसून जावपी हे धोके टाळपाखातीर तांचो वापर कमीत कमी आनी जाय तेन्नाच जावपाक जाय. जायते फावट कीटकनाशकांचो वापर करीनासतना, वेगवेगळ्यो मशागतीच्यो पध्दती वापरून रोग आनी किडी पयस करूं येता. सद्या शास्त्रज्ञांनी किडींक वा रोगाक बळी न पडपी जाती विकसित केल्यात. ह्या जातींचो वापर करप, शेतांत नितळसाण दवरप, फाव त्या वेळार आनी योग्य अंतराचेर पिकाची लागवड करप, साऱ्याचो समतोल वापर करप, सेन्द्रिय साऱ्याचो चड प्रमाणांत वापर करप, खोल नांगरप, शुध्द आनी निरोगी बियाणे वापरप ह्या सारक्यो मशागतीच्यो पध्दती वापरुन बऱ्याचशा रोगकिडींक पयस दवरपाक जाता. कीटकनाशकाचो जाय तेन्नाच, कमीत कमी आनी जतनायेन वापर करप हातूंत मनीस जातीचें हीत आसा.

- विश्राम गांवकार

## कीरः (पळेयात- पोपट).

## कीर्तन-१:

कीर्तन हो शब्द 'कीर्त' (तुस्त, वर्णन, गूण) ह्या शब्दावयल्यान आयला. कीर्तन ह्या शब्दाचो अर्थ ईश्वरभजन असो जाता. नवविधा भक्तींतलो 'कीर्तनभक्ती' हो दुसरो प्रकार. भगवंताच्या गुणांचें आनी लीलांचें कथन करप. भगवंताच्या नामाचें संकीर्तन करप हें ताचें मुखेल स्वरुप. भागवतपुराणान कलियुगांत फकत नामसंकीर्तनाकूच प्राधान्य दिलां.

> कलेर्दोषनिधे राजन्नस्ति ह्येको महान् गुणः।
> कीर्तनादेव कृष्णस्य मुक्तसङ्गः परं व्रजेत् ।। (१२.३.५१)

अर्थ- हे राजा, कलियुग हें दोशांचें भांडार आसा. पूण हाचो एक मोटो गूण असो की ह्या युगांत फकत कृष्णाचे कीर्तनभक्तीनूच मनीस संगविरयत जावन परमपदाक वता.

भगवंताचें चरित्रकथन आनी गुणगान हें कीर्तनाचें मुखेल आंग आसलें, तरी ताचेवरवीं जगाक सन्मार्गाचो उपदेश करप, होय कीर्तनाचो एक हेत आसता. तो सादपाखातीर कीर्तनांत देवाच्यो आनी भक्तांच्यो कथा सांगून वेगवेगळ्या मळांवयले उच्च आदर्श समाजाफुडें दवरपाची प्रथा कीर्तनावरवीं चलत आयल्या. कीर्तनाक लागून धर्मप्रसाराचेंय कार्य जाता. देखून, कीर्तन ही एक समाजीक संस्था जाली. कीर्तन चड करून देवळांतूच करतात. कीर्तनकाराक मराठींत 'हरिदास' वा 'कथेकरीबुवा' अशें म्हण्टात. हरिदास धर्वेफुल्ल धोतर न्हेसून वयर उपरणें घेता आनी माथ्याक पगडी घालता. ताच्या हातांत चिपळ्यो आसतात. कीर्तनांत पेटी-तबल्याची साथ आसता. देखून हरिदासाक ताल-सुराचेर गावंक येवंक जाय. हरिदासाच्या फाटल्यान केन्नाय ताचो साथीदार उबो आसता. हरिदासान सुरू केल्लें पद वा श्लोक तो स्वता पुराय करता आनी मदीं मदीं हरिदासाच्या सुरांत सूर मेळोवन साथ करता. हरिदासाक संस्कृत भास, न्याय, वेदान्त, इतिहास, पुराणां, मराठी आनी हिंदी काव्य, आध्यात्मशास्त्र हांचें गिन्यान आसूंक जाय. तेचपरी प्रचलित समाजीक, धर्मीक आनी राजकी विशय तशेंच उदेंत आनी अस्तंत तत्त्वगिन्यान हांचीय वळख ताका आसूंक जाय. आयकुप्यांच्या चित्तांत हेर रसांवांगडा भक्तिरसाचो परिपोश करप हें कीर्तनाचें प्रयोजन आशिल्ल्यान वेवस्थित पोशाख, विद्वत्ता, वक्तृत्व, गायन, वादन (संगीत), नृत्य, विनोद आनी सभ्यतेचे मर्यादेंतलो शृंगार हीं कीर्तनाचीं आंगां आसात.

देवळांनी, तीर्थक्षेत्रांनी वेगवेगळ्या देवांचे उत्सव, जंयती आनी हेर प्रसंगावेळार कीर्तनाच्यो कार्यावळी जातात. कीर्तन वैयक्तिक तशेंच रासवळ लेगीत आसूं येता. रासवळ कीर्तनाक 'चक्री कीर्तन' अशें म्हण्टात. हातूंत ३-४ वा चड हरिदास वांटो घेतात. तातूंत नाचाचोय आस्पाव आसता. कीर्तनांत मदीं मदीं भजन करून, देवाचो आनी संतांचो जयजयकार करतात. परंपरेक धरून कीर्तनसंस्थेचे आद्य प्रवर्तक नारदमुनी अशें मानतात. श्रीमद्‌भागवतासारक्या ग्रंथांत कीर्तनाचो महिमा विस्तारान वर्णन केला. महाराष्ट्रांत ज्ञानेश्वर, नामदेव, एकनाथ, तुकाराम, रामदास ह्या संतांनी आनी तांचे शिष्य-परंपरेन कीर्तनसंस्थेचो विशेश प्रचार केलो. संत नामदेवाक महाराष्ट्राचो आद्य कीर्तनकार मानतात.

कीर्तनाचीं दोन आंगां आसतात. एक 'पूर्वरंग' आनी दुसरें 'उत्तररंग'.

पूर्वरंगांत एकाद्र्या पारमार्थिक विशयाचें निरुपण आसता आनी उत्तररंगांत त्याच विशयाचे देखीक म्हूण रामायण, महाभारत वा पुराणां हातूंतलें एकाद्रें आख्यान सांगतात. कीर्तनकार पयलीं गणपती आनी हेर इश्ट देवतांचें नमन करूंक मंगलाचरण म्हण्टा. मागीर एक ध्रुपद गावन भजन करता. उपरांत एक संतांचो अभंग गावन ताच्या आदाराचेर भक्ति-ज्ञान-वैराग्याचें निरुपण सांगता. ह्या दोन रंगांचे मदीं कीर्तनकाराक हार घालतात आनी सगळ्यांक बुको लायतात. आख्यान सोंपतकच परत मूळपदार येवन 'हेचि दान दे गा देवा' ह्या अभंगान कीर्तन सोंपता.

वारकरी संप्रदायाच्या कीर्तनांत आख्यानाक दुय्यम स्थान आसता. ताचें मुखेल तत्त्व म्हळ्यार निरुपण आनी भजन. निरुपण सांगपी मदीं उबो रावता आनी ताचे दोनूय वटेन कितलेशेच साथीदार झांजो घेवन उबे रावतात. कीर्तनकारान अभंगाचो चरण म्हळो, की रोखडेच ते ताका एका सूरांत साथ दितात.

भारताच्या सगळ्या वाठारांनी कीर्तनाच्यो विंगडविंगड प्रथा प्रचलित आसात. खबरापत्रां, मासिकां, व्याख्यानां ह्या साधनांचो उपेग सुशिक्षित समाजाइतलोच मर्यादित उरता. पूण अशिक्षित वा सामान्य लोकांक आत्मकर्तव्याची जाण करून दिवपाखातीर कीर्तन हें लोकजागृतायेचें बरें साधन आसा.

गोंयांत व्हड व्हड देवळांनी नवरात्रांचो उत्सव राती चलता आनी ह्यो णवूय राती कीर्तनाचो कार्यक्रम एकूच हरिदास करता. कीर्तनाचें शिक्षण दिवपी विद्यालय गोंयांत कवळें हांगा 'शांकर सांस्कृत पाठशाळा' ह्या नांवान प्रसिध्द आसा. गोंयांत, गोंयची कला अकादमी संस्था दर वर्सा 'कीर्तन महोत्सव' घडोवन हाडटा आनी ह्या कीर्तन महोत्सवांत नामनेचे कीर्तनकार वांटो घेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**कीर्तन-२:** चवदाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत उदयाक आयिल्लो भक्ती संगीताचो एक लोकप्रिय प्रकार. हातूंत पल्लवी, अनुपल्लवी आनी चरण अशे भाग आसतात. तशेंच स्वरचनेपरस शब्दरचनेक खाशेलें म्हत्व आसता. इश्ट देवतेची प्रार्थना आनी गुणगायन करप आनी भक्तिरसाचो परिपोश करप हो ताचो हेत आसता. ह्या कीर्तनाचे दिव्यनाम, उत्सवसंप्रदाय, मानसपूजा आनी संक्षेप रामायण अशे चार प्रकार आसात. पंदराव्या आनी सोळाव्या शेंकड्यांत जावन गेल्ल्या ताळपाक्कम् संगीतकारांनी रचिल्लीं सुमार वीस हजार कीर्तनां सुमार तीन हजार तांब्यापट्यांच्या रुपांत आज आसात.

बंगाल आनी मणिपूर हांगा कीर्तन ह्या नांवान एक पूर्विल्लें लोकनृत्य प्रचलित आसा. मंजीर, करताळ, मृदंग ह्या वाद्यांची साथ घेवन नर्तक वांटकुळो नाचता आनी भावभक्तिपूर्ण गीतां गायता.

संस्कृत शिल्प साहित्यात, अग्निपुराणांत, जातकमालेंत तशेंच कांय शिलालेखांत 'कीर्तन' हो शब्द प्रासाद वा देवूळ ह्या अर्थान आयला. सातव्या शेंकड्यांत भौशीक धर्मार्थ वास्तूक 'कीर्तन' अशें म्हण्टाले.

- कों. वि. सं. मं.

**कुंड:** उज्याची सुवात. अग्नीची उपासना करपाची पध्दत भारतांत पयलींसावनच नेमान चलत आयल्या. यज्ञांत, होमांत अग्नीक खूब म्हत्व आसा. ताका लागून उजो ज्या कुंडांत घालपाचो ताचो खोलायेन विचार वैदिक आचार्यांनी केल्लो.

शुल्वसुत्रांत कुंडांचीं मापां केदीं आसचीं, खंयच्या उज्याचीं कुंडां कशीं आसचीं, तीं कशीं तयार करप, तांच्यो मेरो कश्यो आसच्यो ह्या गजालींची विस्तारान माहिती आसा. अग्निहोत्रांत गार्हपत्य, आहवनीय आनी दक्षिणाग्नी अशीं तीन उज्याचीं कुंडां आसतात.

गार्हपत्याग्नीचें कुंड वाटकुळें आसता. सादारण २७ आंगळांचो व्यास घेवन एक वर्तुळ काडटात आनी ताचेर हें कुंड रचतात. गार्हपत्याग्नी कुंडांच्या चार-पांच हातांचेर आहवनीय अग्नीचें कुंड आसता. हें कुंड चौकोनी, २४ आंगळां लांब-रुंद आनी १२ आंगळां ऊंच आसता. हाचे कोनशे उपदिकांनी आसतात. ह्या कुंडांत स आंगळां उंचायेचेर दोन आंगळांची आनी सगळ्यांत वयर चार आंगळांच्यो मेरो करतात.

गार्हपत्याचे आग्नेय दिकेक दक्षिणाग्निचें कुंड आसता. ३८ आंगळां व्यासाचें अर्दचंद्राचे आकृतीसारकें आसता. 'सभ्य' आनी 'आवसथ्य' ह्या अग्नीचीं कुंडां चौकोनी आसतात. 'स्थंडिल' नांवाचें उज्याचें एक कुंड आसा. उजो पेटत दवरपाचो आसल्यार वा हवन चड व्हड आसल्यार स्थंडिलाचे सुवातीर व्हडलें कुंड करतात.

आहुतींच्या प्रमाणांत कुंडाचे प्रमाण ल्हान व्हड घेवचें पडटा. एक हजार हवन आसल्यार एका हाताचें, आयुत (धा हजार) आसल्यार दोन हाताचें, लक्ष आसलें तर चार हातांचें, धा लक्ष आसलें तर स हातांचें आनी कोटी आसलें तर आठ हातांचें कुंड करपाक जाय अशें कुंडाकांत सांगलां. यजमानान हात वयर काडटकच जितली उंचाय जाता ताचो पांचवो वांटो म्हळ्यार एक हात अशें माप धरून कुंड तयार करतात.

कुंडां जमनींत खणिल्लीं आसतात. कुंडाचे भोंवतणी दोन वा तीन मेरो बांदतात. तीन मेरांचें कुंड श्रेश्ठ अशें मानतात. पयली मेर ९ आंगळां, दुसरी ६ आंगळां तर तिसरी ३ आंगळां उंचायेची आसता. कुंडांचे चतुरस्र, वृत्त, पद्म, योनी, अर्धचंद्र, त्रिकोन, पंचकोन, षट्कोन, सप्तकोन आनी अष्टकोन अशे वेगवेगळे प्रकार आसात.

भारतांत तीर्थक्षेत्राच्या सुवातींनी उदकाचीं कुंडां आसात. तांकां पवित्र मानतात आनी तातूंत न्हाल्यार पितरांचो उध्दार जाता अशें मानतात. द्वारकेलागीं 'पिंडतारक' नांवाचें एक कुंड आसा. तातूंत उडयल्ले पिंड उफेतात आनी पितरांच्या दोशांक लागून जाल्ल्यो पीडा नश्ट जातात असो समज आसा.

जुनागडच्या दामोदर कुंडांत मेल्ल्या मनशांच्यो अस्थी बुडयतकच तांकां मोक्ष मेळटा अशें मानतात. काशींतल्या ज्ञानवापीकुंडांत न्हातकच दिव्य ज्ञानाची प्राप्ती जाता अशें म्हण्टात. त्र्यंबकेश्वराच्या कनखल कुंडांत न्हाल्यार पुनर्जल्म चुकता अशें सांगतात. सुरतेक देववकी उनाई नांवाचें एक कुंड आसा. तें रामान तयार केल्लें अशें म्हण्टात. रत्नागिरी जिल्ह्यांत, राजापूर हांगा पंदरा कुंडां आसात. तातूंत काशीची गंगा मदींमदीं प्रगट जाता असो एक समज आसा.

नासिकचें रामकुंड रामान थंय न्हाण केल्ल्यान पवित्र जालां, अशें म्हण्टात. ठाणें जिल्ह्यांत निर्मळ हांगा सात कुंडांचें मेळून एक तळें जालां. तें विमलापूर नांवाच्या दैत्याच्या रक्तापसून तयार जालें अशी एक दंतकथा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कुंडली:** भुरग्याच्या जल्मावेळार आशिल्ली गिऱ्यांची स्थिती, जी बारा घरांचे चौकटींत मांडटात, तिका कुंडली अशें म्हण्टात.

मूळ संस्कृत भाशेंत वा ज्योतिषशास्त्रांत हे चौकटीक द्वादशभाव चक्र अशेंय म्हण्टात. प्राकृत भाशेंत तिका कुंडली म्हळां. कोंकणींत तिका जातक, नक्षत्र अशेंय म्हण्टात.

भुरगें जल्मता तेन्ना खंयचे गिरे खंयच्या स्थानांत आसात, हाचो आराखडो गणिताच्या आदारान मेळपाक शकता. हो आराखडो एके खाशेले भाशेंत वा चौकटींत मांडटात.

कुंडलींत बारा घरां आसतात. ह्या बारा घरांत बारा राशी आसतात. तातूंत पयली रास लग्नरास आसता. लग्नरास म्हळ्यार जल्माच्या वेळार पूर्व क्षितिजाचेर उदेल्ली रास. ही रास बारा राशींपैकी खंयचीय आसूं येता. देखीक- मार्च म्हयन्यांत रातीच्या बारा वरांचेर वृश्चिक रास उदेल्ली आसत जाल्यार वृश्चिक ही आठवी रास आशिल्ल्यान कुंडलीच्या पयल्या घरांत आठ हो आंकडो. म्हळ्यार हे कुंडलीची लग्नरास वृश्चिक. वृश्चिक पयल्या स्थानार बरोवन सुरवात केल्ली अशा मनशाची कुंडली ही अशी आसताः




हे कुंडलेंत ८ हें पयलें घर, ९ दुसरें, १० तिसरें, ११ चवथें अशेतरेन मेजपाक सुरवात जाता. रास खंयचीय आसूं, एका एका स्थानाक वेगवेगळीं नांवां आसतात. हीं मुखेल नांवां अशीं:




कुंडली तयार करतना थळाचो जल्मवेळ अचूक आसचो पडटा. कारण एके राशी लग्नाचो वेळ सोंपून दुसरे राशीचो वेळ सुरू जावपाच्या संधीकाळाक वेळ, वरां सारकीं आसचीं पडटात. एक-दोन मिनटांचो फरक पडल्यार पुराय गणित चुकता.

देखून, जल्मथळाचो अक्षांश, रेखांश हांचोय विचार करून कुंडली मांडची पडटा. टिपणांत दोन कुंडल्यो आसतातः राशी कुंडली वा ग्रहसंचार चक्र आनी दुसरी जल्मकुंडली वा जल्मलग्नचक्र. एकाद्र्या जल्माच्या वेळार चंद्र जे राशींत आसता, ती त्या मनशाची रास म्हण्टात. ते राशीचो अंक तनुस्थानांत बरयलो आनी तेप्रमाण फुडें राशीचे आंकडे बरयले, जाल्यार ती राशीकुंडली जाता. जल्मलग्न कुंडली म्हळ्यार जल्मावेळार त्या मनशाक मेळिल्ली उदेंत क्षितिजार उदेल्ली रास. म्हळ्यारच लग्न हें मुखेल धरून ती लग्नरास पयल्या घरांत मांडून केल्ली कुंडली.

हाचेभायर संपात (भ्रमण) चलन मतींत घेवन तयार केल्ले कुंडलेक 'सायन कुंडली' म्हण्टात. तशेंच संपात लक्षांत घेनासतना केल्ले कुंडलेक 'निरयन कुंडली' म्हण्टात. पंचांग खंयचे पध्दतीचेर आदारिल्लें आसा ताचेवेल्यान कुंडलींत कांय प्रमाणात फरक पडटा. निरयन वा सायन पंचांग कुंडली करपाक वापरलें जाल्यार तसो स्पश्ट उल्लेख करचो पडटा. मांडणेचे पध्दतीवेल्यान 'होरा कुंडली', 'नवमांश कुंडली' अशेय कांय प्रकार आसात.

प्रस्नकर्त्यान खंयचोय प्रस्न विचारतकच ज्योतिषी त्या वेळार कुंडली मांडून गिऱ्यांचे स्थितीचो अभ्यास करून जाप दिता. सादारणपणान कुंडली म्हळ्यार मळबाचो नकासो अशें मानतात. पूण ही कल्पना वराहमिहिराक मान्य ना. ताचे आनी कांय अस्तंत्या ज्योतिशशास्त्रज्ञांचें अशें मत आसा की भविश्य सांगतना, कुंडलीचोच विचार करीनासतना, त्या मनशाचो देश, जल्मथळ, जात, समाजीक प्रथा ह्या गजालींचोय विचार करचो पडटा. ज्योतिशशास्त्रज्ञांनी कर्म आनी पुनर्जल्म ह्या सिध्दांतांकडेन कुंडलीचो संबंद जोडला.

वाल्मीकि रामायणांत प्रभु रामचंद्राची कुंडली दिल्ली आसा. सगळ्यांत पूर्विल्ली कुंडली मेसोपोटेमियांत सांपडल्या, अशें डॉ. काणे हाणें सांगलां.

- वा. ल. वझे

**कुंडू, बी. सी.** : (जल्मः एप्रिल १९०५; मरणः ?).

नामनेचो भारतीय वनस्पतिशास्त्रज्ञ. हाचें शिकप कलकत्ता आनी लीडस (इंग्लंड) हांगाच्या विद्यापीठांत जालें.

कलकत्ता विद्यापीठांत कांय काळ शिकयतकच ताणें ज्यूट ॲग्रिकल्चरल रिसर्च इंस्टिट्यूटांत संस्थेचो मुखेल म्हूण १९४६ ते १९६० मेरेन काम केलें. बेंगॉल बोटॅनिकल सोसायटी, नॅशनल इंस्टिट्यूट ऑफ सायसेन्स ऑफ इंडिया ह्या सारक्या साबार संस्थांचो तो वांगडी आसलो. लखनौच्या सेंट्रल ड्रग रिसर्च इंस्टिट्यूटच्या वनस्पतिशास्त्र विभागाचो तो १९६० सावन मुखेल आसा. वनस्पतिशास्त्रावेलें ताचें लेखन आनी संशोधन खूब म्हत्वाचें आसा. 'प्लँट ॲनाटॉमी', 'प्लँट ब्रीडींग', 'मेडिकल प्लँट्स' हे ताच्या अभ्यासाचे खास विशय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**कुंडोः** धान्याच्या आवरणाक 'कुंडो' अशें म्हण्टात. हातूंत सादारणपणान ३५% भितरल्या गराची कात आनी कोंब जाल्यार ६५% वयली धान्याची कात हांचो आस्पाव जाता. हातूंत कणीय आसता. ह्या सगळ्या घटकांक एकामेकासावन पयस काडप सोपें नासता. भाताचें वयलें कल्ल काडटकच तांदूळ मेळटा. ह्या काडिल्ल्या कल्लाक कुंडो म्हण्टात. गंवासारकिल्या धान्यांतय कुंडो मेळटा.

**संयोजनः** कुंड्यांत ५% चरबी, ६% प्रथिन, १६% गोबोर आनी ३०% तंतू हांच्यावांगडा व्हिटामिन बी कॉम्प्लेक्स जीवनसत्त्व आसता.

उद्येगीक आनी शेतवडीच्या कामाक उपेगी पडपी कुंड्याच्या गोबरांत सिलीका (८७-९७%), पोटॅश (०.५-२.५%), सोडियम (०-२%), कॅल्शियम (०.२-१.५%), मॅग्नेशियम (०.१-२ %) आनी फॉस्फरस (०.२-३ %) आसता.

**प्रकारः** गोंयांत मेळपी कुंड्यांत वयल्या धान्याची कात, भितरल्या गराची कात आनी कोंब हांचो आस्पाव जाता. नव्या प्रकारच्या तांदळांचे गिरणींत उकड्या भातांतल्यान आनी सुरय तांदळांच्या कुंड्यांतल्यान ह्यो तीनय गजाली वेगळ्यो काडूंक येतात.

**गुणधर्मः** कुंड्याची वट्ट घनताय ०.१ (१०० कि./क्युबिक मी.) इतली आसता आनी ताका पर्थून दळल्याउपरांत चारपटीन ती उणी करूंक येता. ताका ५.५ ते ६.५ (Mohs) निबरसाण आसता. ताची उश्मीय संवाहकता उणी आसता. तो ऊंच तापमानांत जळटा. एक किग्रॅ. कुंडो २.५ किग्रॅ. वाफ वा ३,२०० किग्रॅ. कॅलरी इतली शक्त दिवंक शकता. ८२.८ किग्रॅ. कुंडो जी वाफ तयार करता तिचेर १ हॉर्सपावरचें इंजिन एक वर चलूंक शकता.)

**उत्पादन प्रक्रियाः** धान्य कांडून कुंडो काडपाची पध्दत सर्रासपणान प्रचलित आसा. (भारतांत १९५० मेरेन ६५% कुंडो कांडून काडटाले; १९७२ त हें प्रमाण १०% चेर पावलें). भात वायणांत घालून मुसळान तें कांडलेउपरांत कुंडो मेळटा. कांयकडेन पांयांनी कांडपाची पध्दत आसा. गोंयांत 'वायण' हो प्रकार पयलीं घराघरांनी दिसतालो.

सद्याक गिरणींच्या प्रसाराक आनी वाडीक लागून हातान कुंडो तयार

करपाची पध्दत फाटीं पडल्या. कुंड्यांतले सगळे पदार्थ वेगवेगळे करपाचीय वेवस्था कायकडेन आसा.

**उत्पादन केंद्रां आनी तांची तांकः** भारत आनी चीन सारक्या देशांनी ज्या ज्या जाग्यार भात पिकता, थंय कुंडो तयार जाता. ह्या दोनूय देशांचें उत्पादन वट्ट संवसारीक उत्पादनाच्या अर्द्यापरस चड आसा. भाताचें संवसारीक उत्पादन सुमार ३८० दशलक्ष मॅट्रिक टन इतलें आसा आनी कुंड्याचें उत्पादन सुमार ७६ मॅट्रिक टन इतलें जाता. कुंडो उत्पादक मुखेल देश म्हळ्यार चीनः २४४ लाख मॅट्रिक टन; भारतः १७० लाख मॅट्रिक टन; बांगलादेशः ४९ लाख मॅट्रिक टन; इंडोनेशियाः ४८ लाख मॅट्रिक टन; जपानः ३३ लाख; थायलंडः ३० लाख; विएतनामः २४ लाख; ब्रह्मदेशः २२ लाख; ब्राझीलः १७ लाख; फिलीपीन्सः १६ लाख आनी अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां १२ लाख मॅट्रिक टन.

**उपेगः** कुंडो गोरवां, घोडे, कुकडां, दुकर हांचें खाण म्हूण उपेगांत येता. तेभायर ह्या जनावरांक रावपाखातीर गोठे बांदतात, थंय जमनीर कुंडो घालतात. गिरणींखातीर वाफ तयार करूंक कुंड्याचो जळव म्हूण उपेग जाता. सान्यांतय कुंड्याचो उपेग करतात. विमानांची वेवस्था राखपाखातीर आनी प्लास्टिक आनी धातू घासपाखातीर कुंड्याचो उपेग जाता. तेल-प्रदूशण आळाबंदाक हाडपाखातीर आनी शाब्बाखातीर कुंड्याचो उपेग जाता. तो उश्णता निरोधक म्हूण वापरतात.

कुंड्याचो गोबोर रबर, शिमीट हांच्या उद्येगांत उपेगी पडटा. तशेंच विटो, टूथपेस्ट, वेल्डिंग, कुत्र्यांक आनी हेर जनावरांक लावपाची पावडर हातूंतय कुंड्याच्या गोबराचो उपेग जाता.

तांदळाच्या गरावयली कात पाव, केक ह्या सारक्या पदार्थांनी वापरतात. वखदांखातीर तिचो उपेग जाता. रिफायन्ड तेल उद्येगांतय तो उपेगी पडटा.

**गोंयांतलें उत्पादनः** गोंयांत जंय कुंडो तयार जाता अश्यो सुमार ४०० गिरणी आसात. १.५ लाख टन भाताचें उत्पादन आशिल्ल्यान हांगा सुमार ५२,५०० टन कुंड्याचें उत्पादन आसूंक जाय, अशें जाणकारांचें मत आसा.

- मिंगेल ब्रागांझा

**कुंतीः** यदुकुलोत्पन्न 'शूर' नांवाच्या राजाची धूव आनी कृष्णाचो बापूय वसुदेव हाची भयण. मूळ नांव पृथा. पूण कुंतिभोज राजान तिका पोसकी घेतिल्ल्यान 'कुंती' अशें नांव मेळ्ळें. सोयऱ्यांक येवकार दिवपाचें काम तिचेकडेन आशिल्लें. दुर्वास ऋषी एकदां अतिथी म्हूण आयिल्लो आसतना तिणें ताची बेस बरी सेवा केली. तेन्ना दुर्वास ऋषीन प्रसन्न जावन तिका एक मंत्र दिलो. त्या मंत्रान ज्या दैवताक होरायत, ताचेपसून पुत्रप्राप्ति जातली असो वर दिलो. ह्या मंत्राक लागून तिका आंकवारपणांत सूर्यापसून कर्ण हो तेजस्वी पूत जालो. ताच्या आंगार जल्मताच कवच-कुंडलां आशिल्लीं. स्वयंवराउपरांत ती पांडुची बायल जाली. पांडुचे सांगणेवेल्यान तिका यमधर्मापसून युधिष्ठिर (धर्म), वायूपसून भीम आनी इंद्रापसून अर्जुन हे पूत जाले. पांडुच्या विनंतीवेल्यान तिणें माद्रीक लेगीत मंत्रोपदेश केल्ल्यान, माद्रीक अश्विनीकुमारांपसून नकुल आनी सहदेव हे जुंवळे पूत जाले. भारतीय झुजावेळार तिणें कर्णाक पांडवांचेवटेन झुजपाचो आग्रो केल्लो. कुरु-झुजाउपरांत गांधारी, धृतराष्ट्र आनी विदूर हे महाप्रस्थानाक वचपाक भायर सरिल्ले आसतना कुंतीय तांचेवांगडा गेली आनी एका रानांत पेटिल्ल्या जाळांत लासून तिचो अंत जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**कुंदे, जयवंत सिनायः** (जल्मः २ एप्रिल १९१९, कुंकळ्ळी-सार्श्टी).

गोंयचो मुटके झुजारी. ताणें प्राथमिक आनी लिसेवाचें पांचवें वर्स मेरेन शिक्षण घेतलें. १९४६ वर्सा सावन तो 'राश्ट्रीय कॉंग्रेस-गोंय' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९४६ वर्सा, डॉ. नारायण भेंब्रे हाणें उजवाडायिल्लें 'आंदोलन' नांवाचें राश्ट्रवादी मराठी खबरं-पत्रक ताणें छापलें.

१९४६ वर्सा ताका केपें वाठारांत पोलिसांनी धरलो आनी एक दीस बंदखणींत दवरलो. फुडें १९४७ वर्सा तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी जालो. आसगांव आनी बारदेस तालुक्यांतल्या दल संघटनेच्या शाखांचो तो मुखेल जालो. २१ जुलय १९४७ दिसा म्हापशें वाठारांतल्या सरकारी बँकेचेर आनी फाझेन्दाचेर (Fazenda) हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतलो. ह्या आरोपाखाल डिसेंबर १९४७ वर्सा पोलिसांनी ताका धरलो. उपरांत पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी दंडाधिकाऱ्यामुखार (Territorial Military Tribunal) ताची चवकशी जाली आनी ताका सव्वीस वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर दंड भरपाक ताणें न्हयकार दिल्ल्यान आनीक तीस दीस ताका बंदखणीची ख्यास्त फाव जाली. आग्वाद बंदखणीत ताणें सुमार साडेचार वर्सां ख्यास्त भोगली. फुडें १ जून १९५२ वर्सा ताका लिश्बोआक व्हेलो.

उपरांत ताका आंगोला (Angola) व्हेलो. ताणें आल्जुबे, लुआंदा, मोसामेदिश, से द बांदैरा, फोर्त रोसादश सारक्या वेगवेगळ्या बंदखणींनी ख्यास्त भोगल्या. बंदखणींत दिल्ले वायट वागणुकेक लागून ताणें विरोध केलो तेन्ना ताका आनीक चाळीस दीस एकांतवासाचे बंदखणींत दवरिल्लो. फुडें २४ मार्च १९६१ दिसा सोडून दिलो. तो ५ ऑगस्ट १९६१ दिसा कुंकळ्ळे, गोंयांत पावलो.

१९७८ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**कुंभः** (अॅक्वॅरियस). राशीचक्रांतली इकरावी रास. हातूंत धनिश्ठेचो तिसरो आनी चवथो चरण (चतुर्थांश), शततारका आनी पूर्वा भाद्रपदाचे पयले तीन चरण अशीं सव्वादोन नखेत्रां येतात. शनी हो हे राशीचो स्वामी. हातांत कुंभ (कलश) घेवन उबो आशिल्लो मनीस हें राशीचें प्रतीक. ही रास थीर आसून तिचो वर्ण शूद्र अशें मानतात. १३ फेब्रुवारी ते १२ मार्चमेरेन सूर्य निरयन कुंभ राशींत आसता. कुंभ राशींत सव्या प्रतीमेरेनचे वट्ट ४५ तारे आसात.



पूण आल्फा (सादलमेलिक, प्रत ३.१९), बीटा (सादलसूद, प्रत ३.०७), गॅमा (सादकबिया, प्रत ३.९७), डेल्टा (स्केत, प्रत ३.५१), थीटा (अँका, प्रत ४.३२) आनी लॅम्डा (प्रत ३.८) इतलेच तारे ठळक आसात. हे राशींत सोबीत रंगीत तारकायुग्मां (double stars), कांय चल तारे (आर् अॅक्वॅरी), सॅटर्न बिंबाभ्रिका (एन्जीसी ७००९) आनी वांटकुळे (एम् २) तारकागुच्छ (clusters) लेगीत आसात. हॅली धूमकेतूकडेन संबंदीत आशिल्ले मे आनी जुलयत जावपी कांय उल्कावृश्टींचे उद्गम बिंदू हेच राशींत येतात. हर्शेल हाणें प्रजापती हो ग्रह सोदून काडलो, तेन्ना तो कुंभ राशींत आशिल्लो.

पूर्विल्ले संस्कृतायेंत पावसाळ्याचो तशेंच ईजिप्तांत नाइल न्हंयेक येवपी हुंवाराचो संबंद हे राशीलागीं जोडटाले. ग्रीक पुराणकथेप्रमाण गॅनिमिडान देवांखातीर गरुडावेल्यान व्हेल्लो अमृतकुंभ, म्हणजेच हो कुंभ (कलश) जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कुंभकोणम्ः** तमिळनाडू राज्यांतल्या तंजावर जिल्ह्यांतल्या कुंभकोणम् तालुक्याचें मुखेल केंद्र. पूर्विल्लें नामनेचें संस्कृतीक केंद्र आनी तीर्थक्षेत्र म्हणून कुंभकोणम् शाराची बरीच नामना आसा. लोकसंख्याः १,३२,८३२ (१९८१). कावेरी न्हंयचे देगेर तंजावर शाराचे उत्तर उदेंतेक ३९ किमी. अंतराचेर, चिदंबरम् शाराचे नैर्ऋत्येक ६८ किमी. अंतराचेर हें शार वसलां.

हांगां पूर्विल्लें कुंभेश्वर महादेवाचें देवूळ आसा. त्या देवळावेल्यानूच ह्या क्षेत्राक कुंभकोणम् अशें नांव पडलां. ताचेविशीं पेरियपुराणांत अशी

कथा मेळटाः धर्तरेचेर बुडटी आयली तेन्ना ब्रह्मदेवान मातयेंत अमृत भरसून एक घट तयार केलो. त्या घटांत धर्तरेवयलीं सगळीं बिजां घालून तो मेरू पर्वताचेर उंचेले सुवातेर दवरलो. उपरांत जेन्ना सप्तदर्या खवळ्ळो तेन्ना सगळें जग बुडलें. हे बुडटेंत मेरू पर्वत बुडलोच पूण ताजेवेलो तो बीजघट व्हांवत, व्हांवत ह्या क्षेत्रांत आयलो. शंकरान भिल्लाचो वेश घेवन आपल्या बाणान तो घट फोडलो. तेन्ना तातूंतल्यान अमृत व्हांवून थंय एक तळें तयार जालें. हे घडणुकेच्या उगडासाखातीर शिवान आपल्या हातान हांगा लिंगाची थापणूक करून ताका 'कुंभेश्वर' अशें नांव दिलें.

सातव्या शेंकड्यांत हें नगर चोळ राजाचें राजपाटण आशिल्लें. फुडें इतिहास काळांत कितल्योश्योच राजवटी बदलून १७९९ त हें नगर मराठ्यांकडल्यान इंग्रजांकडेन आयलें. ह्या क्षेत्रांत शंकराचीं बारा, विष्णुचीं चार आनी ब्रह्मदेवाचें एक अशीं देवळां आसात. तातूंत कुंभेश्वर, नागेश्वर आनी शांरगपाणी हीं देवळां पळोवपासारखीं आसात. हांगाचें नामनेचें शारंगपाणीचें देवूळ रथा आकृतीचें आसा. ताचें गोपूर १४७ फट ऊंच आसा आनी ताका बारा माळयो आसात.

णव्या शेंकड्यांत आद्य शंकराचार्यान हांगा काशी मठाची थापणूक केल्ली. थंयच सद्या कामकोटी शंकराचार्याचें पीठ आसा आनी तातूंत हातबरपांच्या संस्कृत ग्रंथांचो व्हड संग्रह आसा. पूर्विल्ल्या काळांत कुंभकोणम्, दक्षिणेंतल्या ब्राह्मणी संस्कृतायेचें व्हड केंद्र आशिल्लें.

कुंभकोणम् क्षेत्रांत 'महामघम्' नांवांचें व्हड तळें आसा. ह्या तळ्यांत दर बारा वर्सांनी गंगा, सरस्वती, यमुना, नर्मदा, गोदावरी, कावेरी, महानदी, पयोष्णी आनी शरयू ह्या णव न्हंयांचें उदक येता असो समज आसा आनी देखूनच हांगा प्रयागा सारको कुंभमेळ भरता. दक्षिण भारतांत भरपी कुंभमेळ ह्याच क्षेत्रांत आशिल्ल्यान ते नदरेन प्रयागाउपरांत कुंभकोणमाक म्हत्व दितात.

कुंभकोणम् शारांत भांगराच्यो, चांदीच्यो वस्ती, तांबें, पितूळ आनी शिशें हांची कारागेरी, जरीकाम, संगीतवाद्यां, सुती आनी रस्मी कपडे, मातयेचीं आयदनां, नीळ आनी साकर अशे तरेकवार उद्देगधंदे हांगा चलतात. हांगा केळीं, तुतीच्यो बागो आनी पानांचे मळे आसात. कुंभकोणम् शारांतल्या पानांक दक्षिण भारतांत खूब मागणी आसा. शिक्षणीक केंद्र म्हणूनय कुंभकोणम् शाराची नामना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## कुंभमेळ:

'कुंभपर्व' नांवाच्या पुण्यकारक ग्रहयोगाच्या निमतान दर बारा वर्सांनी प्रयाग, हरद्वार, नासिक आनी उज्जयिनी ह्या चार तीर्थक्षेत्रांनी हिंदू भाविकांचो मेळ भरता, ताका कुंभमेळ म्हण्टात. ह्या कुंभपर्वाविशीं अशी पौराणिक आख्यायिका आसा:

समुद्रमंथनाच्या वेळार अमृतकुंभ हातांत घेवन धन्वंतरी वयर आयलो, तेन्ना दैत्यांक अमृत मेळचें न्हय म्हूण देवांनी इंद्राचो पूत जयंत हाचेवरवीं अमृतकुंभ फारायलो. तेन्ना दैव-दैत्यांचें झूज जालें. ह्या बोवाळांत बारा जाग्यांनी अमृतकुंभ सकयल पडलो. तातूंतलीं वयर सांगिल्लीं चार स्थानां भुंयलोकांत जाल्यार उरिल्लीं स्थानां हेर लोकांत आसा.

दरेका तीर्थक्षेत्रांत वेगवेगळे तरेन कुंभयोग घडटा, तो असोः १ प्रयाग -अमाशे दिसा मकर राशींत चंद्र, सूर्य आनी वृषभ राशींत गुरु आसतना २. हरद्वार- गुरु कुंभ राशींत आनी सूर्य मेष राशींत ३. नासिक- गुरु सिंह राशींत आनी चंद्र, सूर्य कर्क राशींत आसतात ४. उज्जयिनी- सूर्य, तुळ आनी गुरु वृश्चिक राशींत आसता.

प्रयागांतल्या कुंभपर्वांत मकर-संक्रांत, अमास आनी वसंतपंचम हीं तीन उपपर्वां आसात. तातूंतलें अमास हें मुखेल पर्व आसून ताका 'पूर्णकुंभ' अशें म्हण्टात. गुरुक राशिचक्र भोगपाक बारा वर्सां लागतात, देखून दर बारा वर्सांनी कुंभयोग येता. कुंभपर्वाच्या वेळार प्रयाग तीर्थांत न्हायत जाल्यार एक हजार अश्वमेध, शंभर वाजपेय आनी पृथ्वीभोंवतणी एक लाख प्रदक्षणा घाल्ल्याचें पुण्य मेळटा असो समज आसा. देखून, लाखांनी भाविक लोक तशेंच शेंकड्यांनी मठाधिपती, साधुसंत आपापले घोडे, उंट, हत्ती ह्या सरंजामासयत थंय जमतात. जेन्ना साधुसंतांची व्हडली मिरवणूक वता तेन्ना थंयचें पुराय वातावरण दुमदुमून वता.

- कों. वि. सं. मं.

## कुकड:

(कोंबो, कोंबी वा कोंबये पील).

वंश- गॅलस, घराणें- फासिआनिए (Phasianiae) पाळीव कुकडां वा घरकोंबी हांकां 'गॅलस डॉमेस्टीकस' म्हण्टात. सद्या अस्तित्वांत आशिल्ल्या सगळ्या कुंकडांचे वंशज (गॅलस) मध्य, उदेंत आनी उत्तर भारत तशेंच हिमालयाचो देवतेंवयलो वाठार, आसाम, ब्रह्मदेश, श्रीलंका जावा आनी सुमात्रा ह्या वाठारांनी आदल्या काळांत रानटी अवस्थेंत आशिल्ल्या कुकडांचे वंशज आसूंक जाय अशें मानतात. सुर्वेच्या तांबड्या आनी रुपेरी कुकडांपसून हालीं भारतांत खूब जाती सोदून काडल्यात. कुकडां मजगतीं घरकोंबी, बदकां, गीज, हरकी आनी गिनी कुकड हांचो आस्पाव जाता. हातूंत घरकोंबयेक भारतांत चड म्हत्व आसा.



कुकड

क्रिस्ताआदीं २००० वर्सां पयलींसावन मनीस कुकडां पोसतालो. पोशिल्ले कोंबडेच्या पूर्वजाचो उगम आग्नेय आशियेंत जालो अशें समजतात. फुडें ताच्या पोसपाच्या इतिहासांत ताचो आकार, रंग, तांतयां घालपाची शक्त आनी जातीची खात्री करचेखातीर खुबशा प्रमाणांत संकर करप जालें. बाकीच्या सवण्यांसारकी तांकां चोंच, पाखां आनी पांयांक खूर आसतात. तांचे तकलेर शेकरें आसता.

**वर्गीकरण:** कुकडांच्यो शंबरांपरस चड जाती अस्तित्वांत आसात. मूळ थळ वा वाठार, रूप, रंग, आकार, वजन हांच्या आदाराचेर सादारणपणान तांचें जें वर्गीकरण केलां तें फुडलेतरेन आसा.

*भूंयमध्य दर्या वाठारांतल्यो जाती:* हे जातींतलीं कुकडां वजनान हलकीं आनी शिटूक, नाजूक पूण सभावान भित्रीं आसतात आनी तांतयां बेगीन घालतात. हेर जातीं परस कमी खावड खावन चड तांतयां दिवप हें तांचें खाशेलेपण आसा. देखीक- लेगहॉर्न, मिनॉर्क, आंकॉना. लेगहॉर्न जातीच्या कुकडाची चोंच, पांय आनी कात हळडुवी आसता. हे जातीच्या कुकडांचो हेर जातीच्या कुकडांवांगडा संकर घडोवन हाडून कांय उपजातींचीय पैदास केल्या. तांचे पांय, चोंच, रंगान काळी आसता. तांचें शेंकरें तांबडें आनी कानाची पाळी धवी आसता. उश्ण हवामानांत ही जात बरी तिगूंक शकता.

*आशियांतल्यो जाती:* हीं कुंकडां चड वजनाचीं आनी मांसाखातीर उपेगी पडपी आसतात. हांच्या तातयांचो कोर तांबसो विटकरो आसता. हीं कुकडां उसरां तांतयां घालतात आनी तांकां भरपूर खावड लागता. तांच्या पांयांक भरपूर पाखां आसतात. देखीक- ब्रह्मा, कोचीन, लॅंगशॅन.

*अमेरिकन जाती:* हे जातीचीं कुकडां तांतयां तशेंच मांसाखातीर उपेगी पडटात. हातूंतलो प्लिमथ रॉक, वायनडॉट्स, न्होड आयलंड रेड

आनी न्यू हॅम्पशर ह्यो जाती म्हत्वाच्यो आसात.

*इंग्लीश जाती:* मांसाखातीर हे जातीच्या कुकडांची नामना आसा. ती तांबश्या कोराचीं तांतयां घालतात. देखीक- ससेक्स, ऑरपिंग्टन, ऑस्ट्रलॉर्प, कॉर्निश, डॉर्किंग आनी रेड कॅप.

*भारतांतल्यो जाती:* आदल्या काळासावन भारतांत कुकडां पोसतात. पूण उदरगतीचे नदरेन तांचेकडेन फाव तें लक्ष दिवप जावंक ना. भारतांतल्या सगळ्या जातींक देशी ह्या नांवान वळखतात, तरी असील, पंजाब, काश्मीर, चित्तगाँग ह्या नांवानूय कांय कुकडांक वळखतात. घटमूट पांय आशिल्ली ही जात बळिश्ट आसता. तांचेपसून संकर करून मांसाळ कुकडां पैदास करतात.

**शरीराची रचणूक:** हाडांचे रचणुकेचेर आदारीत आशिल्लो शरीराचो आकार म्हत्वाच्या अवयवांची राखण करता. तांचीं हाडां मांसाळ आसतात. तांकां हवेच्यो पिशव्यो आसतात, जाचेवरवीं तांकां उस्वास घेवपाक आनी उडपाक सोंपें पडटा. तांचे चोंचीचे वयर नाकपुडयो आसता. तांची तकली आंगाच्या मानान ल्हान आसता. तांची मान लांब आनी लवचिक आसता. तांचे मानेचे मणके एकामेकांचेर अशेतरेन बसयल्ले आसतात, जांचेवरवीं तांकां ती मान जाय थंय घुंवडावंक मेळटा. तांच्या कमराचो सांगाडो जननाचें आनी तांतयां घालपाचें काम सोंपें करता.

कुकडाच्या पोटांतले पचनसंस्थेंतले मुखेल अवयव अशे: ग्रासिका (Oesophagus or Gullet), अन्नपुट (Crop), उदर (Proventriculus), पेषणी (Gizzard), ग्रहणी (Duodenum), स्वादूपिंड (Pancreas), यकृत (Liver), प्लिहा (Spleen), ल्हान आंतकडी (Small intestine), व्हडली आंतकडी (Large Intestine) आनी गुदद्वार (Cloaca).

**कोंबो:** पांच ते स म्हयन्याच्या, दादल्या कुकडाक कोंबो म्हण्टात. ताचे पयलीं ताका 'तलगो' (कोकरेल) म्हण्टात. वीर्यपिंड, वीर्यनळी आनी लिंग (Papilla) हे कोंब्याचे जनन तंत्राचे अवयव आसात.

**कोंबी:** पांच ते स म्हयन्याचे बायल कुकडाक कोंबी म्हण्टात. ताचेपयलीं ताका 'तलग' (पुलेट) म्हण्टात. कोंबयेक अण्डाशय (Ovaries) आनी अण्डनळी हे जननतंत्राचे अवयव आसतात. नरसाळे (Infundibulum), मॅगनम, संयोगभूमी (Isthmus), गर्भाशय (Uterus) आनी योनी हे पांच भाग मेळून तयार जाल्ली आसता.

**प्रजननाचो प्रकार:** फलोत्सर्जन (Ovulation): जेन्ना बोळ (Yolk-पितळकण) जून जाता तेन्ना पुटक फळ (Follicle) रक्ताच्यो शिरो नाशिल्ल्या एका खासा जाग्यार फुट्टा जाका 'स्टिग्मा' म्हण्टात. हें फळ भायर येवन तांतयाचे नळयेच्या फुनेलांत वता. समागमाउपरांत शुक्रजंतू २ ते ३ सप्तकांमेरेन तांतयांचे नळयेंत जिते आसतात. समागमाउपरांत २४ वरांभितर 'फलीकरण' (Fertilisation) जाता. फलीकरण जातकच रोखडेंच पेशीचें विभाजन जावपाक सुरवात जाता.

**पिलां:** कोंबयेच्या धाकट्या पोरांक पिलां म्हण्टात. तांकां उबोवन तांतयांच्यान भायर येवपाक एकवीस दीस लागतात. खाणेचे कोंबयेखाला दवरून वा तांतयां उबोवपाच्या मशीनांत फलीकरण जाल्लीं तांतयां उबोवन पिलां काडटात. भायले कोंबयेपरस देशी कोंबयेंत तांतयां उबोवपाची शक्त चड आसता. पिलांक रोगाची आनी बदलत्या हवामानाची रोखडीच बादा जाता म्हूण तांची जतनाय घेवची पडटा. देखून पिलां जातकच तांकां ४ सप्तकांमेरेन ऊब दिवपाची वेवस्था आशिल्ले दायीत (Brooder) दवरतात. विजेचे बल्ब लावनय अशी वेवस्था करूं येता. उपरांत तांकां आठ ते १० सप्तकांमेरेन वाडपाच्या घरांत दवरतात.

**कुकडांचें खाण:** कुकडांक पुश्टीची आनी बरी खावड दिवंची पडटा. तशेंच तांकां ॲमिनो ॲसिड्स आनी 'ब' जीवनसत्वांचो आस्पाव आशिल्ली खावड दितात. तांच्या आहारांत चडकरून गंव, मको, भाताचो कुंडो, गंवाचो कुंडो, पेंड आदी खावडीचो आस्पाव जाता. ही खावड भड्ड्याच्या रुपांत वा ल्हान ल्हान गुळयो करून दितात.

**रोग आनी उपाय:** कुकडांक ज्या रोगांची बादा जाता ते रोग अशे आसात:

*मानमोडी-* हो रोग जातकच पिलां मान वयर काडून उरफाटीं चलतात, चोंची उगडून उस्वास घेतात, मान घुंवडायत रावतात. हो रोग लागल्या उपरांत ३-४ दिसांनी कुकडां मरतात. अशावेळार तांकां वाशीनां दिवन ह्या रोगाचेर आळाबंदा हाडटात.

*देवी:* 'बोरिलिएटा एव्हियम' नांवांच्या जंतुपसून हो संसर्गजन्य रोग जाता. हाकालागून कातीचेर फोड येतात. नाक आनी दोळ्यांतल्यान ओंकीर व्हांवता देखून पिलां ६ सप्तकाचीं जातकच तांकां ह्या रोगाआड वाशीनां तोपून घेवंक जाय.

कुकडांक 'टायफॉयड्' आनी 'प्लोरम' हे रोग जातकच तीं निस्तेज जातात. हाका आळाबंदा हाडपाक ऑरिओ मायसीन हें प्रतिजैव वखद दितात.

*रक्ताची हागवण-* ह्या घातक रोगाक आळाबंदा हाडूंक घूड (कुकडांक दवरपाचो जागो) सदांच नितळ आनी सुको दवरूंक जाय. तशेंच ह्या रोगाचेर सल्फा आनी पेनिसिलीन ह्या सारकीं वखदां दितात.

कांय कुकडांक स्वास मार्गाच्या रोगाची सांथ लागता; तशेंच जाण्टया कुकडांक क्षयरोग जावं येता. ह्या रोगाची बादा न जावपाक 'तलगां' निवळशा घुडांत पोसूंक जाय. तशेंच पोरन्यो कोंबयो तांतयां घालूंक लागतकच १ वर्सान विकूंक जाय. कांय कुकडांक कुकुडसो नांवाचो जीव लागता. अशेतरेचे रोग कुकडांक लागचे न्हय म्हूण कुकडांक दवरपाच्या जाग्यार लिंडेन, मॅलॅथिऑन वा हेर कीटकनाशकांचो फवारो मारतात. तशेंच रोग जावंचे न्हय म्हूण फाव ती जतनाय घेतात.

**हेर म्हायती:** जीं कुकडां तांतयांखातीर उपेगी पडनात तांचो उपेग खावपाखातीर करतात. देखून 'ऱ्होड आयलंड रेड' हाच्या संकरांतल्यान पयलो मांसाळ पक्षी (ब्रॉयलर) तयार जालो. उपरांत ताचेपसून जायत्यो जाती, उपजाती निर्माण केल्यो.

भारतांत खावपाखातीर उपेगी पडपी कुकडां चडकरून जिते अवस्थेंत विकतात. पूण इंग्लंड, अमेरिका ह्या सारक्या देशांनी जित्या कुकडांचो वापर करीनात. थंय यंत्राच्या आदारान पक्षी सोलून पॉलिथिनचे पोतयेंत घालून शितपेटयेंत घालून दवरतात. भारतांतूय अशीं चार-पांच कुकडां संस्करण संयत्रां वापरांत आसात. हेखातीर मांसाळ जातीच्या कुकडांचीं ८ ते १० सप्तकांचीं आनी एका किग्रॅ. परस चड वजनाचीं पिलां उपेगांत हाडटात. दिल्ली, पंजाब, केरळ आनी महाराष्ट्र ह्या राज्यांत चड करून तांतयांखातीर कुकडां पोसपाचो धंदो व्हड प्रमाणांत चलता.

- डॉ. एच. के. मालवीय

## कुचिपुडी नाच:

नाच, नाट्य आनी संगीत हांचो शास्त्रीय मेळ जाल्लो एक नृत्यप्रकार. कुचिपुडी नाचाक भारतीय शास्त्रीय नाच प्रकारांत एक वेगळेंच स्थान आसा. हो नाच निबर आनी उर्बेभरीत आसून अवकाश आनी कालाचेर जैत मेळोवपाचो हावेस तातूंत दिसून येता. इतल्या उत्साहपूर्ण आनी स्फूर्तीदायक मोडणांतल्यान वचून लेगीत ताचेर दृकप्रत्ययवादाची (impressionism) मात्तूय सया पडूंक ना. हो नाच उमाळो आनी स्फुरण हाडपी आसून उपाट पद्यात्मक आसा. ह्या नाचांत दोळ्यांच्या हालचालींतल्यान शौर्य आनी संवेदन हांचो आविश्कार घडटा आनी ताची समाजीक भावनिश्ठा फकत मोगिकांच्या नाजूक भावविश्वाइतलीच मर्यादित ना, तर ती सर्वस्पर्शी आसा.

आंध्र प्रदेश राज्यांतल्या 'कुचेलापुरम्' ह्या खेड्याच्या नांवावयल्यान ह्या नाचाक 'कुचिपुडी' हें नांव पडलें. सातव्या शेंकड्यांत, भक्तीचो प्रचार करपाच्या हेतान कुचिपुडी नाचाचो जल्म जालो. आंध्र प्रदेश राज्यांतल्या कृष्णा जिल्ह्यांत 'कुचिपुडी' हें एक खेडें आसा. ह्या गांवांत ३००० लोकसंख्या आशिल्ली कांय झोपडपट्टीची वसती आसा. १६०८ त, हो नाच पळोवन गोवळकोंड्याचो नबाब अब्दुल्ला कुतुबशाह खुश जालो आनी ताणें नर्तकांक तांचो राबित्याचो गांव 'कुचिपुडी' आनी भोंतवणचीं पांच गांवां इनाम म्हूण दिलीं. कुचिपुडी गांव विजयवाड्याक

सावन ५० किमी. अंतराचेर आसा. कुचिपुडीच्या भोंवतणच्या वाठाराक इतिहासीक नदरेन खूब म्हत्व आसा. कुचिपुडी गांवाच्या १० किमी. अंतराचेर आशिल्लो श्रीकाकुलम् गांव इ. स. प. दुसऱ्या शतमानांत सातवाहन साम्राज्याची राजधानी आशिल्ली. घांटशाळा हें बुध्द तीर्थक्षेत्र कुचिपुडीसावन कांय मैल अंतराचेर आसा. 'पदम्' ह्या गीतप्रकाराचो रचनाकार 'क्षेत्रगण' हाचें जल्मस्थान मोव्वा हें कुचिपुडी लागसारूच आसा. हाचेवयल्यान अशें दिसून येता की कुचिपुडी भोंवतणच्या वाठारांत पोरनें सांस्कृतिक दायजूय आसा. पूर्विल्ल्या काळांतलीं देवळां आनी तातूंतलें कोरीवकाम, बौध्द अवशेश, अजंठा आनी एलोरा लेणी, अमरावती आनी रामप्पा देवळां हांचेवयल्यान अशें दिसून आयलां की आंध्र प्रदेशांतल्या शास्त्रीय नाच प्रकारांची परंपरा दोन हजार वर्सांइतली पोरनी आसा.

हेर भारतीय नृत्यप्रकारांप्रमाणच कुचिपुडी नाचांतलीं तत्त्वां भारतीय नाट्य शास्त्राचेर आदारिल्लीं आसात. सुरवातीच्या काळांत दादले आनी बायलो कुचिपुडी नाचांत शिवाविशींचे कांय पौराणिक कथाभाग सादर करतालीं. दादले शिवाच्या देवळांनी अनुष्ठानरुपी (ritual) नाच सादर करताले जाल्यार बायलो देवळाच्या कल्याणमंडपांनी देवांखातीर 'केलिका' (मनोरंजन) हो नाच करतालीं. उपरांतच्या काळांत, कुचिपुडी नाचांत पुनरुज्जीवन घडून आयलें आनी तातूंत वैष्णव पंथांतल्या कांय हळुवार रम्याद्भूत (romantic) घटकांचो आस्पाव जालो. कुचिपुडी कलाकारांनी भागवत पुराणांतल्यो कांय कथा सादर करपाक सुरवात केली. ताका लागून ह्या नर्तकांक आनी कलाकारांक 'भागवतुलू' अशें म्हण्टात. कांय वर्सां उपरांत ह्या नाचाचो उत्साह उणो जायत गेलो. पूण सिध्देंद्र योगी (१३५०-१४५०) हाणें कुचिपुडी नाचाक एक पध्दतशीर शास्त्रीय बुन्याद घालून दिली. कुचिपुडी गांवांतल्या ब्राह्मण कुटुंबांतलो पयलो भुरगो कुचिपुडी नाच प्रकाराक अर्पण करूंकूच जाय असो दंडक ताणें घालून दिलो.

कुचिपुडी नाच प्रकारांत नृत्त, नृत्य आनी नाट्य हांचो सोबीत संगम घडून येता. 'नृत्त' हातूंत 'तिरमनम' आनी 'जती' हांचो आस्पाव आसता आनी नृत्यांत 'शब्दम्' चो आस्पाव आसता. तशेंच नाट्य भागांत पदांचो आनी मुद्राभिनयाचो आस्पाव आसता. भारत मुनी हाच्या मताप्रमाण, कुचिपुडी हो पारंपारिक आनी वास्तववादी अभिनय तासांची फाव ती भरसण आशिल्लो संपूर्ण नृत्य-नाट्य प्रकार आसा. अभिनयाचे हे सोबीत भरसणेक लागून प्रेक्षकांक 'रस' तयार जाता. नाटकाची सैमीक माची नाचाखातीरुय वापरील्ल्यान, कुचिपुडी कला प्रकारांत नाट्य आनी नृत्य हाची सोबीत भरसण जाल्ली दिसून येता.

कुचिपुडी हें नृत्यनाट्य चान्याचे राती देवळाच्या आवारांत करपाची प्रथा आसा. लोकांची गर्दी चड जाली जाल्यार रस्त्याच्या एका तोंकाक माची उबारून थंय हो नाच जाता. नृत्यनाट्य सुरू जांवचेपयलीं 'हास्यगाडु' (विदूषक) प्रवेश करता आनी वाकडींतिकडीं तोंडां आनी अंगविक्षेप करून लोकांक हांसयता आनी तांचें लक्ष माचयेवटेन ओडून घेता. गायक आनी वाद्यवृंद माचयेचे उजवे वटेन बसतात. वाद्यांमदीं टाळ, मृदंग, व्हायोलिन, वीणा हांचो आस्पाव आसता. मागीर सूत्रधार प्रवेश करता आनी नांदी गावन नृत्यनाट्याचो आशय सांगता. नाचांतल्या मुखेल पात्रांक 'दरुवु' अशें म्हण्टात.

कुचिपुडीचे कांय नाचप्रकार अशेः 'शब्दम्' म्हळ्यार एके खाशेले संगीतशैलीप्रमाण गायिल्लें आनी एकाद्र्या नाट्यपूर्ण कथाप्रसंगाचेर आदारिल्लें काव्य. हातूंतल्यो रचना नृत्याभिनयाक पोशक आसता. देखीक- 'दशावतारशब्द' ह्या प्रकारांत विष्णूच्या धा अवतारांचें काव्यमय वर्णन आसून तेप्रमाण नर्तक ते धा अवतार नृत्यांकित करतात. अशाच तरेन 'श्रीरामशब्द', 'मंडुकशब्द', 'अर्धनारीश्वरशब्द', 'प्रल्हादशब्द', 'कृष्णशब्द' ह्या रचनांचेर नाच करतात.

'कलापम्' ह्या प्रकारांत वादविवादात्मक, तत्त्वज्ञानात्मक आनी हेर विंगड विंगड चर्चांचो आशय आशिल्ल्यो काव्यरचना नृत्यबध्द करतात. देखीक- 'गील्लकलापम्' ह्या प्रकारांत ब्राह्मण आनी गौळण हांचो तात्त्विक संवाद आसा. 'भामाकलापम्' हो प्रकारुय खासा लोकप्रिय आसा. 'तरंगम्' ह्या प्रकारांत एकाद्र्या खाशेल्या आराध्यदेवतेच्या लीलांचें वर्णन ल्हारांच्या तरंगांप्रमाण वेगवेगळे तरेन करतात. 'बालगोपाल तरंगम्' ह्या प्रकारांत परातीचे कडेचेर दोनूय पांय दवरून वा पालथ्या कळशाचेर उबो रावन वा तकलेचेर उदकाचो भरिल्लो कळसो दवरून तो पडूंक दिनासतना हो नाच करतात. 'पदम्' म्हळ्यार पद. सगळो सैम बायलेच्या रुपांत आसून परमेश्वर हो एकूच पुरुष आसा. परमपुरुषांत लीन जावपांतूच सैमरुपी बायलेचें साफल्य आसा, असल्या आशयाचीं जायतीं पदां कुचिपुडींत आसतात.

कुचिपुडी नाचांतल्या कलाकारांची रंगभूषा सादीच आसता. पुरुषपात्रां धोतर, जाकीट तशेंच कांय अलंकार आनी मुकूट घालतात. स्त्रीपात्रांचो भेस साडी पोलको असो सादोच आसता. बायलां अलंकार आनी दागदागिने वापरतात. तातूंत लांब सोडिल्ले विणयेचेर जो दशावतार पटो वा नखेत्रपटो बसयल्लो आसता, ताका प्रतीकात्मक अर्थ आसा. ह्या पट्याचो वयलो भाग चार अलंकारांनी सोबयल्लो आसून तो चार वेदांचें प्रतीक अशें मानतात. पट्यासकयले तीन घोंस त्रिभुवनाचें प्रतीक जाल्यार दरेका घोंसाभोंवतणी ल्हानल्हान आनीकूय तीन घोंस आसतात, तें नवग्रहांचें प्रतीक अशें मानतात. विणयेवेलो हो नखेत्रपटो लांकडी आसून ताचेर भांगरापटो मारिल्लो आसता. हो नखेत्रपटो म्हळ्यार विश्वाचें एक प्रतीक अशें मानतात. हो नखेत्रपटो सत्यभामा आपले विणयेचेर घालता. सत्यभामा हो एक 'जीव' (आत्मो) आनी तिणें घाल्लो नखेत्रपटो म्हळ्यार जीवाभोंवतणचें विश्व, असो हाचो खोल अर्थ आसा.

ह्या नखेत्रपट्याच्या अलंकाराविशीं एक आख्यायिका सांगतात, ती अशीः देव आनी दानवांक अमृत वांटपावेळार भगवान विष्णून मोहिनीचें रूप धारण केलें, तेन्ना ताणें हो अलंकार परिधान केल्लो. मोहिनीन परतें विष्णूचें रूप घेवन कांय युगांउपरांत भगवान विष्णून जेन्ना कृष्णाचो अवतार घेतलो तेन्ना ताणें हो नखेत्रपट्याचो अलंकार सत्यभामेक दिलो.

कुचिपुडी कलेंत नखेत्रपट्याच्या अलंकाराक म्हत्वाची सुवात आसा. 'भामाकलापम्' नाचप्रकार सुरू जातकच सत्यभामा पडद्याचे एके वटेन उबी रावता आनी नखेत्रपटो आशिल्ली आपली केंसाची लांब विणी लोकांक दिसतली अशे तरेन पडद्याचे दुसरे वटेन सोडटा. प्रेक्षकांमदल्या खंयच्याय कलाकाराक, सत्यभामेचें सवंग करून माचयेवेले सत्यभामेवांगडा सर्त करपाखातीर हें एक जाहीर आव्हान आसता. हें आव्हान स्वीकारून तातूंत कोणूय जैतिवंत जालो जाल्यार ताका सत्यभामेचे विणयेवयलो नखेत्रपटो इनाम म्हूण फाव जाता. कुचिपुडी नाच परंपरेंतलो हो वांटो म्हळ्यार एक खाशेलेपण जावन आसा.

कुचिपुडी नर्तकांचे अलंकार 'पुंगू' लांकूड, 'बडीदा' लांकूड आनी हेर लांकडांपसून तयार केल्ले आसतात. कंवचेचो आनी भांगराचो वर्ख आशिल्लेय कांय अलंकार आसतात. बायलां नर्तक वट्ट ३२ वेगवेगळे अलंकार घालतात जाल्यार दादले नर्तक तलवार, गदा आनी रुपडें मेळून वट्ट १० अलंकार घालतात.

कुचिपुडी नाचप्रकारांतल्या मुखेल नर्तकांनी कोराडा नरसिंहराव, सत्यनारायण शर्मा, इंद्राणी रेहमान, यामिनी कृष्णमूर्ती, रीतादेवी हांचो आस्पाव जाता. लक्ष्मीनारायण शास्त्री, चिंता कृष्णमूर्ती हे कुचिपुडीच्या मळावेले नामनेचे गुरू जावन आसात.

- राजा रेड्डी

**कुझनेट्स, सायमनः** (जल्मः ३० एप्रिल १९०१, खारकोव्ह, युक्रेन रशिया).

नामनेचो अमेरिकन अर्थशास्त्रज्ञ. पयलें म्हाझूज आनी रशियन क्रांती हांकां लागून ताणें रशियेक सावन १९२२ त अमेरिकेंत स्थलांतर केलें. कोलंबिया विद्यापीठाची एम्. ए. (१९२४) आनी डॉक्टरेट (१९२६) मेळयली. १९२७ त न्यूयॉर्क हांगा 'नॅशनल ब्यूरो ऑफ इकॉनॉमिक

रिसर्च' हातूंत नोकरी धरली. तेउपरांत पेनसिल्व्हेनिया (१९३६-५४), जॉन्स हॉपकिन्स (१९५४-६०) आनी हार्वर्ड (१९६०) ह्या विद्यापीठांनी अर्थशास्त्राचें अध्यापन केलें. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत झूजसामग्री निर्मिती मंडळाच्या 'नियोजन आनी सांख्यिकी कार्यालया'चो सहयोगी संचालक (१९४२-४४) म्हूण ताणें काम केलें. १९४६ त तो एक वर्स चीन सरकाराचे राश्ट्रीय साधन संपत्ती समितीचो अर्थीक सल्लागार आशिल्लो. १९५०-५१ त ताणें भारताचे 'राश्ट्रीय उत्पन्न समिती'चो सल्लागार म्हूण काम केलें.

ताणें राश्ट्रीय उत्पन्न मेजपाचे पध्दतीचें मुळावें विश्लेशण केलां. दुसऱ्या म्हाझुजापयलीं अमेरिकेंतल्या राश्ट्रीय उत्पन्नाच्या हिसपाक (accounts) संकल्पनात्मक अधिश्ठान दिवपाचो वावर पयलीं ताणें केलो. संवसारांतल्या हेर देशांनी राश्ट्रीय उत्पन्न लेखांकन पध्दत तयार करपाचें मोलादीक कार्य ताणें केलें. ताणें विकसनशील देशांचे अर्थीक उदरगतीची विस्कटावणी फकत सैध्दांतिक तत्त्वांचेर आदारून करीनासतना अणभव घेतिल्ल्या गिन्यानाचो आदार घेवन केली. ताका लागून उदरगतीची अर्थीक आनी समाजीक संरचना आनी प्रक्रिया हांचेविशीं एक नवी म्हत्वाची नदर तयार जाली. ताच्या ह्या मोलादीक वावराक लागून ताका १९७१ त, अर्थशास्त्र विशयांतलो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. ताणें जायतीं पुस्तकां बरयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**कुटुंब येवजण:** कुटुंबाची आनी देशाची सर्वांगीण उदरगत जावंची म्हूण पुराय जापसालदारकेन कुटुंबांतल्या भुरग्यांचो आंकडो मर्यादीत दवरप हाका 'कुटुंब येवजण' म्हण्टात. १९१५ वर्सा मार्गारेट सेंगर हे समाजसेविकेन भुरगें न जावपाक दिवपी प्रक्रियेक 'कुटुंबयेवजण' अशी व्याख्या थारायली.

कुटुंब मर्यादित दवरप, गर्भधारणा टाळप ह्या गजालींचो पुरस्कार, इ. स. प. चवथ्या शतमानांत लेगीत जाल्लो दिसता. त्या काळांत ॲरिस्टॉटलान गर्भधारणा टाळपाच्या उपायाचें वर्णन केलां. इ. स. प. १८५० ते १५५० वर्सा इजिप्शियन लेखांत आनी पूर्विल्ल्या हिब्रू साहित्यांत गर्भधारणा टाळपाच्या जायत्या उपायांचो उल्लेख जालो. इ.स. दुसऱ्या शतमानांत सोरेनस ह्या प्रसूतीतज्ञान संततिनियमन पध्दतीचें सविस्तर वर्णन केलां. ग्रीक आनी रोमन काळांत बायलांची भलायकी बरी उरची हे पासत गर्भसंभव टाळपाची पध्दत आपणायताले.

आर्विल्ल्या काळांत सतराव्या शतमानांत मालथस ह्या अर्थशास्त्रज्ञान वाडटे लोकसंख्येविशीं भिरांत परगटायतना तिचेर नियंत्रण केलें ना जाल्यार सैमीक संकश्टां, झुजां आनी पिडांवरवीं लोकसंख्या आळाबंदा हाडची पडटली, अशें म्हळें. इंग्लंडांत जेरेमी बेंथॅम हाणें १७९७ त संततिनियमन म्हळ्यार कुटुंब येवजणेचो सगळ्यांत पयलीं पुरस्कार केलो. १८३२ त नोल्टन ह्या अमेरिकन लेखकान संततिनियमनाच्या मार्गाचें वर्णन केलां. विसाव्या शतमानामेरेन संवसारांत मनशाचे भलायकेविशींच्या प्रस्नाचो कोणेंच गंभीरपणान विचार केलो ना. दर हजाराक जल्माचें आनी मर्णाचें प्रमाण सादारणपणान सारकेंच आशिल्ल्यान कुटुंब येवजणेक म्हत्व न मेळप स्वभावीक आसलें. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत लोकसंख्येचो आंकडो नेटान वाडपाक लागलो. १८०० त संवसाराची लोकसंख्या १०० कोटींपरस उणी आसली. विसाव्या शतमानाच्या मध्याक ती ३५० कोटींचेर पावली. १९७९ त, ४३० कोटींचेर पावली. ह्या शतमानाच्या शेवटाक लोकसंख्येचो हो आंकडो ६२० कोटींचेर पावपाचो संभव आसा.

विसाव्या शतमानांत वैजकी मळार क्रांती घडली. ताका लागून भिरंकूळ दुयेंसां आळाबंदा आयलीं. विज्ञानाचे दिसपट्टे उदरगतीक लागून सैमीक संकश्टां उप्रासपाविशींच्यो चत्रायो लोकांक आदींच मेळूंक लागल्यो. अशीं सैमीक संकश्टां उप्रासल्यार जीव वाटावपाक लागपी साधनांय रोखड्या रोखडीं मेळूंक लागलीं. हाका लागून जल्माचें प्रमाण वाडलें आनी मर्णाचें देंवलें. वयल्या दोन कारणांक लागून लोकसंख्या वाडीक नेट आयलो. हे वाडटे लोकसंख्येक कायदेशीरपणान आळाबंदा हाडपाखातीर कुटुंबयेवजण पध्दतीचें म्हत्व आनी गरज वाडली.

गर्भधारणा जावंची न्हय म्हूण दादल्या आनी बायलांची वापरपाची विंगड विंगड साधनां सद्या आसात. कांय साधनां वापरपाखातीर वैजाचें मत घेवप गरजेचें आसता. दादले 'निरोध' वापरतात. डच कॅप, लिपीज लूप, जेली, क्रीम, गुळयो, स्पंज हीं साधनां बायलो वापरतात. बायल आनी दादल्याची अनुक्रमान अंडवाहिनी आनी शुक्राणूवाहिनी शस्त्रक्रियेवरवीं बंद केल्यार अंडाक गर्भाशयांत येवंक मेळना तर शुक्राणूंक वीर्यांत प्रवेश करूंक मेळना. ताका लागून गर्भ धरना. दोन-तीन भुरगीं आशिल्लीं जोडपीं वयलेवरी सोपी शस्त्रक्रिया करून घेतात. भुरग्यांची गरज परत उप्रासल्यार बंद केल्ल्यो वाहिनी, शस्त्रक्रियेवरवीं परत्यो उक्त्यो करप आतां सहज शक्य जालां.

**कुटुंब येवजण आनी धर्मीक समज:** हिंदू धर्मांत एका काळांत हे पध्दतीक खूब विरोध आसलो पूण सद्याक ना. हिंदू आनी बौध्द धर्मांत संततिनियमनाक स्पश्ट विरोध दिसना वा आदारय सांपडना. रोमन कॅथलिक धर्मगुरुंनी एका काळार कुटुंब येवजणेक खर विरोध केलो. पूण हालीं तो विरोध उणो जाला. ब्राझील, चिली, आर्जेन्टिना, कॉस्ता रीका सारक्या खर कॅथलीक देशांतय कुटुंब येवजण पध्दत चालीक लागल्या. इस्लाम धर्माचो हे येवजणेक खर विरोध आसा. राजकी हेतून इस्लामी देशांत तसो प्रसारय जाता. वाडटे लोकसंख्येचो धोको त्या राश्ट्रांकय आतां समजूंक लागलां. पाकिस्तान, इराण, ईजिप्त, मलेशिया, मोरोक्को, इंडोनेशिया, जावा आनी बाली ह्या इस्लामी राश्ट्रांतूय ही पध्दत चालीक लागल्या. खोमेनीन सत्ता सांबाळटकच इराणांत ही पध्दत बंद केल्ली. ज्यू धर्मांत हे येवजणेक पयलींसारको विरोध ना.

**कुटुंब येवजण आनी हेर राश्ट्रां:** अमेरिकेंत १९३० सावन संततिनियमन केंद्रांक सरकारी पालव मेळपाक लागलो. १९६७ उपरांत थंय संतति-नियमनाच्या साधनांची पुरखण करचेपासत अर्थीक पालव मेळपाक लागलो. जपानांत १९२२ सावन संततिनियमन पध्दत सुरू जाली. १९४८ त गर्भपात कायदेशीर केलो. चीनान वाडटे लोकसंख्येच्या भयान कडक कायदे केल्यात. दरेका कुटुंबांत एकच भुरगें आसचें, असो नेम केला. चल्याक बावीस तर चलयेक वीस वर्सां जावचे आदीं लग्न जावंक मेळना.

**भारत आनी कुटुंब येवजण:** भारतांत संततिनियमनाची गरज, नामनेचे समाजीक वावुरपी प्रो. रघुनाथ धोंडो कर्वे हाणें सगळ्यांत पयलीं मांडली. धर्म आनी जातीचो खर पगडो बशिल्ल्या भारतीय समाजान ताची हेखातीर जल्मभर निंदा केली. पूण निर्शेनासतना ताणें जिणभर कुटुंब येवजणेचो प्रसार केलो. ह्या विशयाचें म्हत्व पटोवपी पुस्तिका उजवाडायल्यो. भारतांत कुटुंब येवजण वा संततिनियमन चळवळीची बुन्याद घालपाचो मान ताका वता.

धर्म-जातीचो प्रभाव, भुरगें म्हळ्यार उत्पादक घटक हो समज, निरक्षरपण आनी चल्या भुरग्याची आस हीं भारतांत लोकसंख्या वाडपाफाटलीं मुखेल कारणां आसात. भारताचे सुटके वेळार लोकसंख्येचो आंकडो ३४ कोटींचेर आसलो. १९८१ त हो आंकडो ६८ कोटींचेर पावलो. संवसारांतलीं २.४% भूंय भारताच्या वांट्याक आयल्या पूण तातूंत संवसारांतले १५% लोक रावतात. जल्माचें प्रमाण हजाराक ३३.८% तर मरणाचें १२.५% आसा. सुमार ५०% लोक गरीब आसात. वट्ट लोकांच्या प्रमाणांत रोजगार मेळ नाशिल्ल्यान बेकारी वाडल्या. हेखातीर कुटुंबयेवजणेक व्हड म्हत्व मेळळां. पयले पंचवर्सुकी येवजणेंत सरकारान ६५ लाख रुपया कुटुंब येवजणेचेर खर्च केलो. कुटुंब येवजणेच्या वावराक १९६६ ते १९७५ मदीं उपाट नेट आयलो. ह्या काळांत गांवागांवांनी शिबिरां घेवन सुमार ४० लाख नसबंदी शस्त्रक्रिया केल्यो. ताचेर ७० कोटी रुपया खर्च जालो. पांचवे पंचवर्सुकी येवजणेंत १९९१ वर्सामेरेन लोकसंख्या वाडीचें प्रमाण २.५% मेरेन हाडपाची मोख थारायिल्ली. ह्या वावराखातीर ५१६ कोटी रुपयांची तजवीज केल्या.

सुरवातीक हो वावर सवकसायेन चल्लो. १९७९ उपरांत ह्या वावराक नेट आयलो. १९७९ वर्सा कुटुंबयेवजणेखातीर आदार येवजणेंत १०१० कोटी रुपयांची तजवीज जाल्या.

- प्रा. वामन नायक,
- कों. वि. सं. मं.

**कुटुंबसंस्था:** कुटुंब ही मनीससमाजांतली बरीच म्हत्वाची आनी मुळाव्या स्वरूपाची संस्था जावन आसा. सामक्याच मर्यादीत अर्थान, घोव-बायल आनी तांचीं भुरगीं हांचो एकठांय रावपी पंगड म्हळ्यार कुटुंब, अशें म्हणूं येता.

कुटुंबसंस्था परिस्थितीप्रमाण बदलत राविल्ल्यान 'कुटुंब' हे संकल्पनेची व्याख्या करप कठीण जाता. बर्गेस आनी लॉक ह्या समाजशास्त्रज्ञांनी कुटुंब संस्थेची व्याख्या केल्या, ती अशी- ''कुटुंब म्हळ्यार लग्न, रगतासंबंद वा दत्तक विधानाक लागून कांय व्यक्तींक एकठांय हाडपी, एका घराब्याची निर्मणी करपी वा जातूंतले घोव-बायल, आवय-बापूय, पूत, धूव, भाव, भयण, विंगड विंगड समाजीक संबंदांतल्यान एकामेकांसरशीं आंतरक्रिया करतात वा संपर्क दवरतात अशी एक समान संस्कृताय निर्माण करून तिची पोसवण करतात असल्या मनशांचो पंगड.''

कुटुंबवेवस्था कशी सुरू जाली आनी तिचें मूळ खंय आसा हाचेर समाजशास्त्रज्ञांनी विंगड विंगड मतां उक्तायल्यांत. ह्या सगळ्यां मतांची फोडणीशी करीत जाल्यार कुटुंबसंस्थेविशीं स्पश्टीकरण मेळटा. भूक, तान, आलाशिरो, कामवासना आनी प्रजोत्पत्ती ह्या मनशाच्या गरजांक आनी प्रवृत्तींक लागून दादलो-बायल एकठांय येवन तातूंतल्यान कुटुंबसंस्था उपजली आसूंये.

नात्यांची संख्या, लग्नाचे प्रकार, कुटुंब मुखेली कोण, वारस हक्काचे नेम, लग्नां उपरांतचो राबितो हांचेर कुटुंबाचे प्रकार आदारिल्ले आसात. जॉर्ज पीटर मरडॉक हाणें 'केंद्रक कुटुंब', बहुयुतिक कुटुंब' आनी 'विस्तारित (रासवळ) कुटुंब' अशे तीन प्रकार सांगल्यात. ज्या कुटुंबांत घोव, बायल आनी तांची लग्न जावंक नाशिल्लीं भुरगीं हांचोच आस्पाव जाता, ताका केंद्रक कुटुंब म्हण्टात. जेन्ना एका परस चड घोव वा बायलो लग्नाचे रासवळ भागीदार जातात तेन्ना अशा कुटुंबांक बहुयुतिक कुटुंब अशें म्हण्टात. विस्तारित वा रासवळ कुटुंबांत दोन वा अदीक केंद्रक कुटुंबां रगताच्या नात्यान जोडिल्लीं आसतात. सादारणपणान अशा कुटुंबांत तीन पिळग्यांमेरेनचे सोयरे एकाच घरांत एकठांय रावतात. रासवळ कुटुंबाचे 'मातृसत्ताक' आनी 'पितृसत्ताक' अशे दोन प्रकार आसात.

मातृसत्ताक पध्दत सद्या ना जायत गेल्या. हे पध्दतींत आवय कुटुंबाची मुखेल आसता. कुटुंबाची आस्पत, वारसो ह्यो गजाली आवयकडल्यान धुवेकडेन वतात. दादल्याक हांगा चडशें म्हत्व नासता. देखीक- आसामांत 'खासी' हे जमातींत मातृसत्ताक कुटुंबवेवस्था आसा. थंय बायलेचो व्हडलो भाव कुटुंबाचे वेव्हार पळेता. हेभायर मलबार आनी त्रावणकोर वाठारांनी कांय समाज मातृसत्ताक कुटुंबपध्दत आपणायतात. गोंयात गोमन्तक मराठा समाजाभितर कलवतां, भावीण अशे देवदासींचे गट आसात. तांच्यांत आदले मुस्तींत म्हळ्यार १९६० मेरेन सादारपणान मातृसत्ताक कुटुंबपध्दत चलताली.

पितृसत्ताक कुटुंबांत बापूय घरचो मुखेली आसता. ताचेकडेन घरचे सगळे अधिकार आस्तात. कुटुंबाचे अर्थीक, समाजीक, सांस्कृतिक जीणेंत तो सर्वाधिकारी आसता. आस्पत, वारसो, आडनांव ह्यो गजाली बापायकडल्यान पुताक मेळटात.

भारतांत आयजमेरेन बरेचकडेन हिंदूंची एकवटित कुटुंब संस्था पळोवंक मेळटा. असल्या कुटुंबांनी सादारणपणान तीन पिळग्यांमेरेनचीं सोयरीं रावतात. घरांतली सगळी येणावळ कुटुंबाच्या मुखेल्याकडेन वता. धर्मीक उत्सव, कुलाचार आनी हेर घरांतले सण एकठांय मनयतात. आधुनिकीकरण, उद्येगीकरण, शारांतली जीण, बायलांची बदलपी समाजीक सुवात, असल्या गजालींक लागून हो पध्दत सद्या मोडूंक लागल्या.

कुटुंब हो विंगड विंगड प्रकारचे वावर करपी म्हत्वाचो समाजीक पंगड आसा. कुटुंबाचीं कांय मुखेल कामां म्हळ्यारः १. घोव बायलांच्या लग्नसंबंदांतल्यान जाल्ले प्रजोत्पत्तीक उर्बा दिवप २. भुरग्यांच्या पालन पोशणाची जापसालदारकी सांबाळप ३. आपल्या समाजाची संस्कृताय, कुटुंबीक परंपरा हांचेकडेन नवे पिळगेची वळख करुन दिवप ४. कुटुंबांतल्या सगळ्यांक मानसिक आनी भावनिक राखण दिवप. ह्या कांय मुखेल वावरावांगडा अर्थीक जापसालदारकी सांबाळप, जाण्टे आनी आदार नाशिल्ल्यांक आदार दिवप, धर्मीक वावर बरेंभशेन करप, कुटुंबांतल्या लोकांचें मनोरंजन आनी वायट काळांत तांची राखण करप हे सारको वावरुय कुटुंबांतूच जावंक शकता.

पयलींच्या काळांत शेतकामाचेर आदारुन आशिल्ली कुटुंबसंस्था उद्येगीक क्रांतीउपरांत बदलत गेल्यात. उद्येगीक नदरेन फुडारिल्ल्या राश्ट्रांनी तर कुटुंब संस्थेच्यो सगळ्यो पोरन्यो संकल्पना मोडून वचून समाजांत बदल जावंक लागला.

- प्रा. वामन नायक

**कुडचडकार, यशवंत तिळू:** (जल्मः ४ एप्रिल १९२९, नानोडें- दिवचल).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो शेतवड करतालो. नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो तो वांगडी आसलो. सुटके चळवळीच्या काळांत ताणें सत्याग्रहींक मार्गदर्शन आनी आदार दिवपाचें काम केलां. तेभायर वण्टीपत्रकां लावप, खबरो पावोवप असलीं कामां तो करतालो. १७ ऑगस्ट १९५५ दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी णव म्हयने बंदखणींत दवरलो. १९७४ वर्सा सरकाराकडल्यान ताका सुटके झुजांतल्या वावराखातीर मानपत्र फाव जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**कुडाळकार, वसंत सीतारामः** (जल्मः १९ सप्टेंबर १९२४, आमोणें- दिवचल).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठी आनी पोर्तुगेजींतल्यान घेतलें. सुटके चळवळीच्या काळांत तो राश्ट्रवादी साहित्य वांटतालो. १ जुलय १९५५ दिसा पोलिसांनी ताच्या घराचेर धाड घाली आनी कांय पत्रकां जप्त केलीं. उपरांत ताका अटक केली आनी खूब मार दिवन स म्हयन्यांपरस चड काळ बंदखणींत दवरलो. १९७७ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**कुणबीः** एक शेतकामती जमात. कुणबी हो शब्द 'कुर्मी' ह्या शब्दावेल्यान कुम्बी जावन फुडें कुण्बी, कुणबी जालो अशें डॉ. जॉन विल्सन हाचें मत आसा. इरावती कर्वे हिच्या मताप्रमाण कुणबी हे जातीचीच 'कुर्मी' नांवाची एक जात उत्तरप्रदेश, बिहार आनी गुजरात हांगा आसा आनी ह्या कुणबी शब्दाची उत्पत्ती 'कुटुंबिन' ह्या संस्कृत शब्दावेल्यान जाल्या. डॉ. गुस्ताव ऑपर्ट कुणबी शब्दाची उत्पत्ती अशी मांडटाः कू= दोंगर, ह्या मूळ धातुवेल्यान कुर्मी, कुरुमी, कुरुंबी, कुणबी असो शब्द तयार जाला.

ही कुणबी जात महाराष्ट्र राज्यांत नागपूर (विदर्भ) सावन दक्षिण गोंय-कारवार मेरेन पातळिल्ली आसा. तशेंच तातूंत वाठाराप्रमाण जायत्यो पोटजाती आसात. अस्तंत महाराष्ट्रांतल्या कुणब्यांनी मराठा कुणबी आनी कोंकणी कुणबी अश्यो दोन मुखेल पोटजाती आसात. तशेंच खानदेशी कुणबी, तलहेरी कुणबी, काळे कुणबी, व्हराडी कुणबी ह्योय पोटजाती महाराष्ट्रांत आसात.

सबंद कोंकणांत आनी गोंयांत हिंदू कुणब्यांची जात दिश्टी पडटा. तशेंच किरिस्तांव कुणबी ही एक गावडा जमातीकडेन सारकेपण आशिल्ली जात साश्टी तालुक्यांत दिश्टी पडटा.

कुणबी हे जातीक गोंयांत, दक्षिण कोकणांत आनी रत्नागिरींत 'कुळवाडी' ह्या नांवानूय वळखतात. गुजरातांत तांकां 'कणबी' म्हण्टात. कर्नाटकांतूय कुणबी जात आसा. पूण तातूंतल्या कारवार जिल्ह्यांत रावपी कुणबी हे जातीक कोंकणी कुणबी म्हूण वळखतात.

बाटाबाटीच्या वेळार ही कुणबी जात सारस्वत आदी जातींप्रमाण उत्तर आनी दक्षिण कन्नडांत गेली आसूंक जाय, वा ती मूळचीच थंयची आसूंक जाय. ही जात आर्यपयलींची आसून आर्य येवचेपयलीं गोंयांत आयली आसूं येता आनी आर्यांनी तिचो आपलेभितर आस्पाव करून तिका शुद्रांचो वर्ण दिला आसूंक जाय. देखून, हिंदू समाजांत ती एक जात म्हूण भरसून गेली. काळांतरान तिका मराठा समाजाची एक पोटजात म्हूण मानूंक लागले. फुडें मराठा समाजांतल्या जागृत आनी प्रागतिक फुडाऱ्यांच्या, मराठा आनी कुणबी हांचें एकीकारण करपाच्या यत्नांक यश मेळ्ळें आनी महाराष्ट्रांतली कुणबी ही जातीवाचक संज्ञा नश्ट जाली. सद्या महाराष्ट्रांत कुणबी समाजाक शेतवड करपी मराठा म्हूण वळखतात.

गोंयांत ही जात उण्या प्रमाणांत आसा. महाराष्ट्रांतले जातीप्रमाण ही जात शेतकाम करता. पूण अशें शेतकाम करपी आनीक एक जात आसा जिका गावडो म्हण्टात. वेवसायीक नदरेन ह्यो दोनूय जाती एक दिसल्यो तरी हिंदूंतले जातीवेवस्थेंत तांकां वेगळ्यो मानतात. गोंयांतूय हिका मराठ्यांची पोटजात म्हूण समजतात, तरीय तातूंत राणे देसाय हे उच्चवर्णीय मराठा आनी कुणबी हे सकयले जातीचे मराठा मानतात. गोंयांतल्या तिसवाडी, साश्टी, बारदेस आनी मुरगांव ह्या काबीजादींत सोडून हेर सगळेकडेन ही जात पातळिल्ली आसा. सत्तरी आनी सांगे ह्या तालुक्यांत तांची वस्ती चड आसा. सत्तरींत कुणबी वा कुळवाडी जातीक रयत ह्या नांवान वळखताले. ते शेतवड करप, गोरवां पोसप, दूद विकप, लांकडां विकप असले वेवसाय करताले. तेचप्रमाण हे लोक कङ्गुणाचें उत्पादन काडटाले. पूण सरकारान कायद्यान ह्या शेतीचे पध्दतीचेर बंदी हाडून कुणब्यांचे उपजिविकेचें साधन नश्ट केलें.

हेर जातीप्रमाण कुणब्यांच्योय चालीरिती आसतात. भुरग्यांच्या जल्मा उपरांत सव्या दिसा सटी आनी बाराव्या दिसा बारसो करतात. तांच्यांत मामेभयणीकडेन लग्न जावपाची प्रथा आसा, पूण सक्ती ना. कुणब्यांत बालविवाहाची प्रथा ना. हालींच चलयेच्या बापायन हुंडो दिवपाची नवी पध्दत सुरू जाल्या. तांचीं लग्नां तांच्या गोंयांतल्या जातींतूच जातात वा तांच्या गांवचे शिमेकडल्या गांवांतल्या स्वजातीयांकडेन जातात. हे जातींत लग्नमोड पध्दत आसता. कुणबी जातींत घराण्याचें कूळ आनी देव आसतात. महाराष्ट्रांत कोंकणी कुणब्यांतूय ते आसतात पूण हेर कुणब्यांत नासतात. गोंयांतल्या कुणब्यांत चडशा घराण्यांनी रुमड (औदुंबर) आनी कळम (कदंब) हीं कुळां आसात. तांच्यांत एकाच कुळांत सोयरीक जायना. तांच्यांत कुलदेवता नासता. पूण सांतेरी, म्हामाय, रवळनाथ ह्या देवतांक ते भजतात. हिंदूंचे सगळे सुवाळे आनी व्रतां ते पाळटात.

कुणब्यांचे जातींत मेल्ल्या मनशांक लासपाची चाल आसा. बाळंतीण मेल्यार मात तिका पुरतात. कुणबी जातींत ११ दीस सुतक पाळटात आनी बाराव्या दिसा श्राध्द करून जेवण घालतात. वर्सश्राध्दाच्या दिसा देवळांत प्रसाद घेवन मेल्ल्या मनशाच्या नांवान 'दामदुडू' हाडून देवाऱ्यांत दवरतात आनी खाशेल्या प्रसंगांवेळार ताची पूजा करतात.

- बा. द. सातोस्कार

## कुतिन्यु, फोर्तुनातु द व्हेयगः (जल्मः ? , मडगांव; मरण ? १९६७).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. ताणें आपलें धर्मीक शिक्षण राशोल सेमिनारींत घेतलें. १९४४ वर्सा तो पाद्री जालो. उपरांत १९६२ त तो बिशप जालो. ताणें बेळगांव वाठारांत कांय काळ बिशप म्हूण वावर केलो. ताका अपघाती मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

## कुतिन्यु, रोनाल्दु रॉकि कार्मुः (जल्मः २२ मार्च १९२९, बोड्डें- साश्टी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मॅट्रिक मेरेन शिक्षण घेतलें. सुटके चळवळीच्या काळांत तो नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. भूंयगत वावरांनी वांटो घेवप, पोर्तुगेजांआड कारवाय करप असलीं कामां तो करतालो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी १८ जून १९५६ ते २० जुलय १९५८ अशे पंचवीस म्हयने बंदखणींत दवरिल्लो. तातूंतले एकवीस म्हयने ताणें खर बंदखणीची ख्यास्त भोगली. गोंय सुटके उपरांत तो जिल्हा काँग्रेस कमिटीचो चिटणीस आशिल्लो. १९७३ वर्सा, भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कुतुबमीनारः

दिल्लीचे दक्षिणेक १७.७ किमी. अंतरावेल्या मेहरोली हांगा आशिल्लो संवसारीक नामनेचो ऊंच मनोरो. हो मनोरो 'कुव्वतुल इस्लाम' हे मशिदी लागसार आसा. ह्या मनोऱ्याचें खरें नांव 'कुत्ब मीनार' अशें आसून ताचो अर्थ 'मदलो खांबो' असो जाता. इसवी सनाच्या तेराव्या शेंकड्याचे सुर्वेक हो मनोरो दिल्लीचो पयलो सुलतान कुत्बुद्दीन ऐबक हाणें बांदलो आनी ताका ताणें 'कुत्ब मीनार' हें नांव दिलें.



कुतुबमीनार

हो मनोरो पांच मजली आसून, ताची उंचाय सद्या ७२.५६ मी., तळाचो व्यास १४.४० मी. आनी तेमकाकडलो व्यास २.७४ मी. आसा. सकयले तीन मजले तांबड्या फातरांचे आसून तांचेर सोबीत नक्षीकाम केल्लें आसा आनी तातूंत कुराणां-तले आयत कोरांत-ल्यात. मनोऱ्याचें प्युलें दार उत्तर दिकेक आसा. पयल्या मजल्याच्या कंगोऱ्या-चेर जी नक्षी आसा, तातूंत घांटी आनी हेर हिंदू प्रतीकां आसात. ताचो पयलो मजलो तांबड्या पाशाणाचो केला आनी ताका बारा कडो आसात.

वण्टी स्तंभांकित (खांब्यांच्यो) आसून वाटकुळे, कोनांकित अशे तरेतरेचे खांबे आसात. संगमरवरी पाशाणापसून तयार केल्लो चवथो आनी पांचवो मजलो वेगळेच धर्तेचो आसा. वाचपाक येतात अशे नागरी लिपींतले आलेख मनोऱ्याचेर आसात. तातूंत पृथ्वीराज आनी गोविंदपाल अशीं नांवां मेळटात. चड करून ताणींच ह्या मनोऱ्याची डागडुजी केल्ली आसूंये, असो तर्क काडटात. ह्या मनोऱ्याच्या भितरल्या भागांत ३७६ सपणां आसून, थंय हवा आनी उजवाड भरपूर आसा. घाटदार आकार आनी उंचाय हांकां लागून ही वास्तू ओडलायणी दिसता. हो मनोरो

हिंदु-इस्लामी स्थापत्यशैलीचो एक बऱ्यापैकी नमुनो अशें मानतात. कुतुबमीनारचे निर्मितीविशीं जाणकारांचीं वेगवेगळीं मतां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**कुत्रो:** (पळेयात सुणो).

**कुन्य, जुआंव ज्योकीं लुर्दीन द:** (जल्मः १९१२, कांसावली- मुरगांव; मरणः सप्टेंबर १९७८).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मॅट्रिक मेरेन शिक्षण घेतलें. वास्को शारांत पोर्तुगेज सरकाराआड उलोवप केलें म्हूण पोलिसांनी ताका धरलो आनी कांयच चवकशी करीनासतना आग्वाद बंदखणींत दवरलो. ताणें वट्ट चार वर्सांची बंदखण भोगल्या. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**कुन्य, त्रिश्तांव ब्रागांझ:** (जल्मः २ एप्रिल १८९१, चांदर, साश्टी; मरणः २६ सप्टेंबर १९६८).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताचो बापूय वैज आशिल्लो. तो चांदर गांवांत जल्मल्लो तरी ताचें भुरगेपण कांसावले वाठारांत गेलें. पणजे ताणें पोर्तुगेज सेकंडरी स्कुलांत शिक्षण घेतलें. पूण, थंयची शिक्षण पध्दत ताका मानवली ना. देखून तो पाँडिचरीक गेलो आनी थंयच्या फ्रेंच कॉलेजींत ताणें बाकोलोरेआ (बी. ए.) मेरेन शिक्षण घेतलें. उपरांत पारिसाक वचून सॉर्बोन विद्यापीठांत इलेक्ट्रिकल इंजिनियरींगची पदवी मेळयली आनी तो थंयच काम करूंक लागलो.



टी. बी. कुन्य

तेन्ना रशियेंत राजकी चळवळ चलताली आनी भारतांत महात्मा गांधीच्या फुडारपणाखाल नवजागृती चलताली. ताचेर तिचो परिणाम जावन आपल्या हक्कांपासत झगडपाची ताका स्फूर्त मेळ्ळी. फ्रेंच खबरांपत्रांनी ताणें स्वातंत्र्याविशीं लेख बरोवंक सुरू केले. 'युमानिते' ह्या फ्रेंच खबरपत्राचेर नेमान बरपां करून ताणें जालियनवाला बाग घडणुकेंतल्यान आनी हेर राजकारणांतल्यान ब्रिटिशांचे जुलमी राजसत्तेची फ्रेंच लोकांक वळख करून दिली. संवसारीक नामना मेळिल्ल्या रोमां रोलां हाणें थापणूक केल्ल्या वसाहतवादाच्या आड वावुरपी 'अॅन्टी इंपीरियलिस्ट लीग' हे संस्थेचो तो सभासद जालो.

फ्रांस देशांत १४ वर्सां रावल्या उपरांत १९२६ वर्सा तो भारतांत आयलो. १९२८ वर्सा ताणें पीटर आल्वारीस आनी आत्माराम मयेंकार हांच्या पालवान भारतीय काँग्रेसीचो फांटो म्हूण 'गोवा काँग्रेस कमिटी' हे संस्थेची थापणूक केली. ताणें आपले बरपावळीवरवीं साम्राज्यवाद तशेंच लोकांक लिपोवन चलयल्ली गुलामगिरी (Camouflaged slavery) ह्या वियशांचेर उजवाड घालो. आसामांत च्या तयार करपाच्या मळ्यांनी गोंयचे गरीब मनीस व्हरून तांकां गुलामांसारकी वागणूक मेळटाली. तांच्या आड ताणें १९२९ वर्सासावन आवाज काडपाक सुरवात केली. अशा वेळार तेन्नाचे भारतीय काँग्रेसीचे सरचिटणीस जवाहरलाल नेहरू हाचेवरवीं यत्न करून १९४० वर्सा गोंयच्या कुणबी लोकांक गुलामगिरींतल्यान सोडोवन हाडपाक ताका यश मेळ्ळें. १९४१ वर्सा साश्ट आनी मुरगांव तालुक्यांत पावसाच्या हुंवारांत पिडीत जाल्ल्या लोकांक मदत करपाक आपद्ग्रस्त निधी एकठांय करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९३९ ते १९४६ ह्या काळांत जायरातीवरवीं गोंयच्या राजकी घडणुकांविशीं लेख बरोवन जागृताय हाडली. 'गोंयकारांचें विराश्ट्रीयकरण' (Denationalisation of Goans) हें पुस्तक बरोवन ताणें पोर्तुगेजांकडल्यान पध्दतशीर गोंयच्या लोकांक मानसिक गुलाम करपाचे यत्न कशे चलतात, हाचें पुराय चित्रण केलें.

१९४६ वर्सा ताणें 'गोअन युथ लीग' हे संस्थेची थापणूक केली. ३० जून १९४६ दिसा राजकी चळवळींत वांटो घेतला असो आरोप दवरून मडगांव शारांत ताका अटक जाली. ताचे उपरांत १२ जुलय १९४६ दिसा ताका परतो धरलो आनी आठ वर्सां काळ्या उदकाची ख्यास्त फर्मायली. १९५२ वर्सा लिश्बोआचे बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. थंयच्यान गोंयांत येवपाक ताका मनाय आशिल्ली देखून तो फ्रांसाक गेलो आनी उपरांत मुंबय आयलो. मुंबय ताणें गोंयच्या सगळ्या राजकी पक्षांच्या 'गोंय कृती समिती' (Goa Action Committee) ची थापणूक केली. हे समितीवरवीं ताणें दादरा आनी नगर हवेलीच्या सुटके झुजाखातीर तेचपरी १९५४ आनी १९५५ वर्सा जाल्ल्या सत्याग्रह चळवळीचो वावर हातांत घेतलो. 'आझाद गोवा' आनी 'फ्री गोवा' अशीं नेमाळीं उजवाडाक हाडून ताणें अखेरमेरेन गोंयचे सुटकेखातीर वावर केलो.

मरणा उपरांत ताच्या शांततायेच्या वावराखातीर १९५९ वर्सा स्टॉकहोम (Stockholm) हांगाच्या संवसारीक शांतताय काउन्सीलवरवीं (World Peace Council) ताका भांगरापदक फाव जालें. १९६१ वर्सा ताची सगळी बरपावळ एकठांय करून ताच्या वांगड्यांनी Goa's Freedom Struggle) नांवाचें पुस्तक मुंबय उजवाडाक हाडलें. ताच्या उगडासाखातीर टी. बी. कुन्य मेमोरियल ट्रस्टाच्या पालवान ताच्या कुटुंबियांनी पणजे शारांत ताच्या नांवान सभाघर बांदला. १८ जून १९८४ ह्या दिसा गोंय सरकाराकडल्यान ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो मरणोत्तर भोवमान जालो. २६ सप्टेंबर १९८६ दिसा गोंय सरकारान, चर्च ऑफ स्कॉटलंड (Church of Scotland) मसंड, शिवडी-मुंबय हांगा आशिल्ल्यो ताच्यो अस्थी गोंयांत हाडून पणजे शारांतल्या आझाद मैदानाचेर टी. बी. कुन्य यादस्तीक बांदलें.

-डॉ. विनायक मयेंकार

**कुन्य रिव्हार, ज्योकीं एलिऑदोरु द:** (जल्मः २३ जून १८००, आर्रायोलॉस; मरणः २० नोव्हेंबर १८७९, एव्हॉर).

कोंकणी आनी मराठी भाशांचो पोर्तुगेज विद्वान, इतिहासकार आनी संपादक. ताचो बापूय आंतोनियु फ्रांसिश्कु रिव्हार हो इटालियन, जाल्यार आवय मारिया इझाबेल काश्तेलु ब्रांकु ही स्पॅनिश आशिल्ली. १८२४ त कोईंब्रा हांगाच्या विद्यापीठांत शिक्षणाखातीर तो गेलो. १८३६ त थंयसावन वैजकीशास्त्राचो अभ्यास ताणें पुराय केलो; पूण वैजकी करचेबदला ताणें एव्हॉर हांगा तत्त्वगिन्यानाचो शिक्षक म्हूण काम करपाक सुरवात केली. त्याचवेळार एव्हॉरच्या ग्रंथालयांत ग्रंथपाल म्हूण काम केलें. ताणें ग्रंथालयाची पध्दतशीर रचणूक केली आनी आठ हजार ग्रंथांखातीर नवी इमारत उबारली. पोर्तुगालांत जळींमळीं आशिल्ल्या पूर्विल्ल्या धर्ममठांतल्यान सुमार धा हजार इतिहासीक म्हत्वाचे ग्रंथ बरेच कश्ट घेवन ताणें एकठांय केले. १८४२ त फ्रांसिश्कु जुझे फरैर हाच्या पालवान ताणें आपलो 'रेफ्लेक्साँइश सोब्रिअ लिंग्व पोर्तुगेज' (पोर्तुगेज भाशेविशींचे विचार) हो ग्रंथ उजवाडाक हाडलो.

१९५० त ताणें आशिया, आफ्रिका आनी अमेरिकेंतल्या पोर्तुगेज वसणुकांच्या म्हत्वाच्या अशा हातबरपांची वळेरी उजवाडाक हाडली.

गोंयचो राज्यपाल व्हिश्काँदि द् तोर्रिश नॉव्हश हाचो मुखेल सचिव म्हूण कुन्य रिव्हाराची १८५५ त नेमणूक जाली. आपले कारकिर्दींत ताणें राज्यकारभार, शिक्षण, उद्येगधंदे, अर्थकारण ह्या मळांचेर बरोच वावर

केलो आनी सुदारणा घडोवन हाडल्यो.

जुवांव द बारूर्श आनी दियोगु दु कोश्तु ह्या इतिहासकारांच्या ग्रंथांतले संशोधन फुडें व्हरपाची जापसालदारकी १८५८ त ताचेर पोर्तुगेज सरकारान सोंपयली. ताणें दीव ते कन्याकुमारी आनी मलबार ते कोरोमंडल हांगाची भोंवडी करून ज्या सुवातींनी पोर्तुगेजांचें अस्तित्व आशिल्लें, तेविशीं अभ्यास केलो. गोंयच्या पुराभिलेख संग्रहालयांत आशिल्ल्या मोलादीक कागदपत्रांचो अभ्यास करून तीं 'बोलेतीं ओफिसियाल', 'क्रोनिश्त द् तिसुआरी' आनी हेर नेमाळ्यांनी उजवाडायलें.

कुन्य रिव्हारान 'पानोरामा', 'आर्कीव्ह उनिव्हेर्सील लिश्बोनॅन्सि' ह्या सारक्या नेमाळ्यांनी संशोधनपर लेख बरयले. १८५७ वर्सा ताणें फादर टॉमस स्टीफन्स (१५४९-१६१९) हाच्या 'आर्ति द लिंग्व कानारीं' (कोंकणी भाशेची कला- १६४०) ह्या पोर्तुगेजींत बरयल्ल्या कोंकणी व्याकरणाची नवीन आवृत्ती उजवाडायली आनी सतराव्या शतमानांत एका पोर्तुगेज धर्मप्रचारकान बरयल्ल्या 'ग्रामातिक द लिंग्व कोंकानी नु दियाले तु दु नॉर्ति' (उत्तरेकडले कोंकणी बोलीचें व्याकरण) हें पुस्तक उजवाडाक हाडलें. तेचपरी, फ्रेंच भोंवडेकार पिरार द् लाव्हाल, जो गोंयां आयिल्लो, ताचो प्रवासग्रंथ पोर्तुगेजींत अणकारुन टीपां सयत उजवाडाक हाडलो (दोन खंड- १८५८,१८६२). एका इटालियन धर्मप्रचारकान बरयल्लें, 'ग्रामातिक द लिंग्व कोंकानी' (कोंकणी भाशेचें व्याकरण, १८५९); एका इटालियन धर्मप्रचारकान बरयल्लो 'दिसियोनारियु पोर्तुगेज- कोंकानी' (पोर्तुगेज कोंकणी शब्दकोश, १८६८) हे ग्रंथ उजवाडायले. १८५७ वर्सा गोंयां उजवाडाक आयिल्लो ताचो ग्रंथ 'ऍसारयु इश्तोरिकु द लिंग्व कोंकानी' (कोंकणी भाशेचेर इतिहासीक निबंध) हो कोंकणी भाशेच्या इतिहासांतलो एक म्हत्वाचो ग्रंथ.

कोंकणी भाशेचो उगम आनी विकास आनी तिचे उदरगतींतल्यो आडखळी हांची खबर योग्य ते पुरावे दिवन ताणें सादर केल्या. अठराव्या शेंकड्यापसून कोंकणी साहित्याचे उदरगतींत खंड पडिल्लो आनी कोंकणी भाशेची दशा वायट जाल्ली. कुन्य रिव्हारान आपल्या विचारांनी कोंकणीच्या पुनरुत्थानाची बुन्याद घाली. ह्या ग्रंथांत बरोवपी गोंयच्या पुराभिलेख संग्रहांतल्या कोंकणी-मराठी ग्रंथांचो अभ्यास करून तांची वळेरी दिता. हे वळेरेंत हे बरोवपी आस्पावतातः पाद्री टॉमस स्टीफन्स, पाद्री दियोगु रिबैरु, पाद्री आन्तोनियु द् सालदान्य, पाद्री मिगेल द् आल्मैद, पाद्री मानुएल बान्य, पाद्री गाश्पार सां. मिगेल. ह्याच ग्रंथांत कुन्य रिव्हार स्फूर्त दिवपी अशा उतरांनी गोंयकारांक आपले आवयभाशेचो अभिमान बाळगात म्हूण सांगून, कोंकणीची उदरगत करपापासत तांकां उलो मारता.

शिक्षणक्रमांत कोंकणी भाशेच्या अभ्यासाक सुवात आसची, देखून ताणें 'आदव्हेर्तेसियश आउश प्रोफेसोरिश प्रिमारियुश सोब्रि उ एंसीनु, द लिंग्व कोंकानी' (कोंकणी भास शिकोवपाविशीं मुळाव्या शिक्षकांक सुचोवणी) हें पुस्तक बरयलें. ह्या पुस्तकांत ताणें, कोंकणी ही गोंयच्या भुरग्यांची पयली भास आशिल्ल्यान तिचो मुळाव्या शिक्षणांत आस्पाव जावंक जाय, असो विचार मांडला. कुन्य रिव्हारान केल्ल्यो सुचोवण्यो तोर्रिश नॉव्हश गोव्हेर्नादोरान आपल्या १८५९ वर्सा काडिल्ल्या शिक्षणविशींच्या जाहीर नाम्यांत मानून घेतल्यो. पूण १८६९ वर्सा गोव्हेर्नादोर पोस्तान हाणें शिक्षणक्रमांतल्यान कोंकणी सामकी काडून उडयल्यान कुन्य रिव्हाराच्या सुचोवण्यांचो कांयच उपेग जालो ना. १८७० वर्सा ताणें आपल्या हुद्याचो राजीनामो दिलो, तरी तो गोंयांत १८७७ मेरेन कांय काळ लिश्बोआक रावल्या उपरांत तो एव्होरा हांगा वचून रावलो.

तो ब्राझीलच्या विज्ञान अकादमीचो तशेंच हेर विज्ञान आनी साहित्य संस्थांचो वांगडी आसलो. जिविताच्या अखेरच्या वर्सांनी ताका इश्ट-मित्रांकडल्यान खर विरोध सोंसचो पडलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कुबल, वासुदेव यशवंतः (जल्मः १६ जून १९३२, मयें-दिवचल).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १९४७ वर्सामेरेन तो राश्ट्रीय कॉंग्रेस गोंय संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी जालो. १९४५ वर्सा आत्माराम मयेंकार हाच्या फुडारपणाखाल पोर्तुगेज भुंयमालकांआड मयें वाठारांत जी चळवळ जाल्ली, तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. ३ जून १९४८ दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. सुमार आठ म्हयने बंदखणींत ख्यास्त भोगतकच कांयच पुरावो मेळूंक ना म्हूण ताची सुटका जाली. पोलिसांचे जाच चुकोवपाक तो गोंयांभायर गेलो. पूण शिमेवेल्यान तो गोंयचे सुटके चळवळीक तो आदार दितालो. गोंय सुटके उपरांत तो भारतीय राश्ट्रीय कॉंग्रेस संघटनेचो वांगडी जालो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कुबल, सीताराम गंगारामः (जल्मः एकोशी, बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो वेपारी आशिल्लो. १९५० वर्सा सावन तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५५ वर्सा तो आपल्या साथीदारांवांगडा पोलिस ठाण्याचेर हल्लो करपाचो आशिल्लो. तेन्ना कांदोळी वाठारांत पोलिसांनी ताका धरलो आनी ताचेकडलो दारुगुळो जप्त केलो. ताची न्यायालयीन चवकशी करचे आदीं ताका णव म्हयने पणजे बंदखणींत दवरलो. फुडें चवकशे उपरांत दोन वर्सां ताका बंदखणीची ख्यास्त दिली. सगळी मेळून ताणें आग्वाद बंदखणींत चार वर्सां आनी सात दीस ख्यास्त भोगली. पोलिसांचें फुडलें धरप चुकोवपाक तो गोंयांभायर गेलो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कुमारवाल्मीकीः (सुमार१५६०-सुमार१६१०).

नामनेचो कन्नड कवी. हाचें वेव्हारांतलें नांव नरहरी; कविनाम-कुमारवाल्मीकी. हे खेरीज 'कविराजहंस' अशेंय हाका नांव आसा. महाकवी वाल्मीकीचें रामायण कन्नड भाशेंत संक्षेपित स्वरुपांत बरयतना ताणें स्वताक 'कुमारवाल्मीकी' हें नांव घेतलें. हो कवी कानडी ब्राह्मण आसून विजापूरचे अस्तंतेक ६ किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या तोरवे गांवांत रावतालो. त्या गांवांतल्या नरहरी मंदिरांत ताणें आपलें रामायण बरयलें. ताणें बरयल्ल्या रामायणाक कवीच्या गांवाच्या नांवावयल्यान 'तोरवे रामायण' हें नांव रुढ जालें. १५९० सुमाराक ह्या ग्रंथाचें बरप जालें, अशें संशोधकांचें मत आसा. ह्या कवीच्या जिविताविशीं व्हडलीशी माहिती मेळना.

'तोरवे रामायण' हें काव्य भामिनीषट्पदी ह्या मात्रावृत्तांत रचलां. तातूंत एकूण ११२ संधी आनी ५,०७९ कडवीं आसात. हातूंतलीं सुमार ३,९०० कडवीं फकत युध्दकांडाचेरुच आसात. बाल, अयोध्या, अरण्य, किष्किंधा आनी सुंदर ह्या कांडांतलो कथाभाग ताका लागून एकदम संक्षिप्त स्वरुपांत आयला. युध्दकांडांतल्या प्रसंगाचेर कवीन चड भर दिला, अशें दिसून येता. कवीची खरेली तांक आनी कसब ताचे काव्यशैलीवेल्यान दिसून येता.

कवीन आपल्या काव्याखातीर खास करून वाल्मीकी रामायणाचो आदार घेतलो. तरीकूय जायतेकडेन ताणें स्वतंत्रपणान आपले प्रतिभेचें दर्शन घडयलां. मंथरा हातूंत मायेचो अवतार जाता. वाली आनी रावण प्राण सोडटना रामाक विष्णूचो अवतार मानतात. लंकेक पाविल्लो मारुती कुंभकर्णाच्या नाकाचे पुडयेंत रिगता. झुजापयलीं रावण विश्वकर्म्याकडल्यान लंकेचो किल्लो सारको करून घेता, झुजाक वचचेपयलीं आपल्या भांडारांतलें सगळें द्रव्य दान करता, कोटी यज्ञ करता आनी बिभीषणाक आपलो वारस नेमता. कवीन अशे थोडे भोव

फरक केल्ले आसले, तरी वाल्मीकीच्या काव्याचो कन्नड भाशेंत सोपी वळख करून दिवपाचें श्रेय ह्या कवीक वता. कुमारवाल्मीकीच्या काव्यांत काव्यगुणांपरस भक्तीचो भाग चड दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**कुमारव्यास:** कन्नड साहित्यांतलो एक नामनेचो महाकवी. एका गौड (पाटील) घराण्यांत ताचो जल्म जालो. गदग लागसार कोळवाड हांगा ताणें कांय काळ पाटीलकी केली. ताच्या बापायचें नांवः लक्करसय्या (लक्ष्मणदेव). लक्करसय्या हाणें विजयनगरचो राजा देवराय (पयलो) हाच्या दरबारांत सचिव म्हूण काम केल्लें.

संस्कृत, कन्नड आनी मराठी ह्या तीनूय भासांचेर ताचें प्रभुत्व आशिल्लें. गदग (जिल्हो धारवाड) हांगाच्या श्रीवीरनारायण देवाचे कृपेन ताणें कन्नड भाशेंत महाभारत काव्य रचलें. प्रचलित आख्यायिकेवयल्यान कवीचें नांव 'नारणप्पा' अशें म्हण्टात. ताणें रचिल्ल्या महाभारताचे लोकप्रियतेक लागून कन्नड लोकांनी ताका 'कुमारव्यास' (व्यासपुत्र) ही पदवी दिली. ताच्या महाभारत ह्या काव्यग्रंथाक 'गदगभारत' वा 'कर्नाट भारत कथा' अशींय नांवां आसात. तेचपरी 'कुमारव्यासभारत' आनी 'कर्नाटक भारत कथामंजरी' अशींय नांवां आसात.

कुमारव्यासाच्या काळाविशीं संशोधकांमदीं मतभेद आसून तेविशीं तांणी १२५० ते १५०० ह्या काळांत विंगड विंगड मतां थारायल्यांत. 'कर्नाटक कविचरितें'त कुमारव्यास विजयानगर हांगाच्या देवरायाच्या काळांत (१४१९ ते १४४६) जावन गेला आसतलो अशें बरयिल्लें मेळटा. ई. पी. राइस आनी रेव्हरंड किटेल ह्या संशोधकांच्या मतांप्रमाण तो विजयनगरच्या कृष्णदेवरायाच्या काळांत (१५०९ ते १५२९ मजगतीं) जावन गेला आसूंक जाय. मंजेश्वर गोविंद पै हाणें तो बाराव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत जावन गेला आसतलो, अशें मत मांडलां. कन्नड साहित्यचरित्रकार आर्. एस्. मुगळी हाणें ताचो काळ चवदाव्या शेंकड्याचो उत्तरार्ध वा पंदराव्या शेंकड्याचो पूर्वार्ध असो दिला. कुमारव्यासाचे मराठी शैलीची भास पळेत जाल्यार, देवगिरीच्या यादवांचें राज्य नश्ट जातकच थंयच्यान कर्नाटकांत आयिल्ल्या ब्राम्हणांनी नारणप्पा आसूंक जाय, अशेंय एक मत आसा.

कुमारव्यासान महाभारताचीं पयलीं धा पर्वां कन्नड भाशेंत विस्तारान अणकारल्यांत. ग्रंथाच्या प्रस्तावनेंत कवीन ह्या काव्याचो 'भारत मंजुळमंजरि', 'कृष्णकथा', 'भारतकथा' असो उल्लेख केला. कन्नड भाशेंत पंप कवीफाटल्यान महाभारताची कथा निरुपण करपाचें काव्य कुमारव्यासान पयलेच खेप रचलें. पंपभारत फकत विद्वानांपुरतेंच मर्यादित उरलें, जाल्यार कुमारव्यासाचें महाभारत सामान्य लोकांमेरेन पावलें. कन्नड साहित्यांत पयलेच खेप 'भामिनीषट्पदी' ह्या देशी छंदांत बरयल्लें हें काव्य सोपें आसून त्या काळांत लोकांच्या तोंडार घोळपी भास कवीन तातूंत वापरल्या. 'कुमारव्यासभारत' हो व्यासभारताचो फकत अणकार न्हय तर ती एक प्रतिनिर्मिती आसा.

महाभारतांतली मनीसजीण ही त्रिगुणात्मक आनी रंगयाळी आसा. सज्जन, दुर्जन आनी तटस्थ अशा मनीसगुणांचो तो एक संघ आसा. ह्या मनीससंघाची श्रीकृष्ण ही प्रेरक शक्त आशिल्ली. कुरु-पांडवांचो इतिहास ही भगवंताची एक लीला. त्या सगळ्या घडणुकांचो कर्तो आनी करून घेवपी तोच. महाभारताकडेन पळेतना कुमारव्यासान हीच नदर दवरली. कुमारव्यासाचें हें महाभारत पुराय कृष्णमय आसा. महाभारताची तुस्त करतना तो म्हण्टा-

> ''अरसुगळिगिदु वीरा द्विजरिगे।
> परम वेददा सारा, योगीश्वररा
> तत्त्व विचारा, मंत्री जनके बुद्धि गुणा।
> विरहिगळ शृंगारा विद्या
> परिणितरालंकारा काव्यके
> गुरुवेनलु रचिसिद कुमारव्यास भारतवा''

अर्थ- ''हें महाभारत क्षत्रियांच्या काळजांत वीररस निर्माण करतलें. महाभारत हो ब्राह्मणांचो वेद आसा, योग्यांचो तत्त्वविचारग्रंथ आसा, मंत्रिजनांक बुद्धिचातुर्य दिवपी आसा. तो विरहीजनांचो शृंगार, विद्वानांचो अलंकार आनी महाकाव्यांचो गुरु आसा.''

कुमारव्यासाची भास सहज, स्वतंत्र, सोपी आनी रसाळ आसा. ताची कल्पनाशक्त आनी व्यक्तीचित्रणांतलें कसब तुस्त करीसारकें आसा. लोकभाशेंतल्या वाक्प्रचारांतलें 'रुपक', अलंकारांचें भांडार ह्या कवीन आपल्या काव्यांत सहजपणान उक्तें केलें. देखून, ताका 'रुपकसाम्राज्यचक्रवर्ती' ही पदवी मेळ्ळी.

कुमारव्यासाच्या भारतांत मनीस जिणेची घुस्पागोंदळाची कथा आनी भगवद्‌भक्तीचो महिमा हांचो सोबित संगम दिसून येता. वीर, करुण, शृंगार, रौद्र, हास्य ह्या रसांची केल्ली भरसण तशेंच स्वतंत्र प्रतिभा, उत्कट भगवद्‌भक्ती आनी लोकभाशेंतल्या शब्दांचो फाव तो वापर हें कुमारव्यासान रचिल्ल्या महाभारताचें खाशेलेपण.

चंद्रात्मज रुद्र (सुमार सुतरावें शतक) ह्या मराठी कवीन कुमारव्यासभारताचो मराठी अणकार केला.

कुमारव्यासभारताचे लोकप्रियतेक लागून, महाराष्ट्रांतल्या वैष्णव संप्रदायाचो कर्नाटकांत प्रसार जालो, अशें म्हण्टात. कन्नड साहित्यांत जैन आनी वीरशैव संप्रदायांचे तांकीचें म्हत्व वैष्णव संप्रदायाक कुमारव्यासभारताक लागूनच प्राप्त जालें. कुमारव्यासाचे प्रासादिक वाणीन आनी असामान्य प्रतिभेन केळयिल्लें हें महाकाव्य कन्नड साहित्याची एक श्रेश्ठ साहित्यकृती अशें मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**कुमारसंभव:** महाकवी कालिदासाच्या संस्कृत पंचमहाकाव्यांतलें हें एक काव्य. हातूंत कुमार कार्तिकेयाच्या जल्माची काणी आसा. कुमारसंभवांत वट्ट सतरा सर्ग आसात. मुळांत ह्या महाकाव्याचे बावीस सर्ग आशिल्ले, अशें म्हण्टात. कांय जाणांचें अशें मत आसा की सद्या सांपडिल्ले सतरा सर्गांपैकी फकत पयले आठ सर्ग कालिदासान बरयल्यात आनी उरिल्ले सर्ग हेर कवींनी रचून मागीर ताका जोडल्यात. मल्लिनाथ, अरुणगिरिनाथ ह्या टिकाकारांच्यो टिका कुमारसंभवाच्या पयल्या आठ सर्गांचेरूच आसा. ह्या महाकाव्याच्या सातव्या आनी आठव्या सर्गांत शिव-पार्वतीचे रतिक्रीडेचें वर्णन आसा. ह्या वर्णनाक लागून पार्वतीचो कोप जालो आनी तिणें दिल्ल्या शापाक लागून कालिदास हें महाकाव्य पुराय बरोवंक शकलोना, अशी एक आख्यायिका अरुणगिरिनाथ ह्या टिकाकारान बरयल्या. हें वर्णन आनंदवर्धनासारक्या कितल्याशाच साहित्यशास्त्रकारांक आवडलेंना म्हूण एकाद्रें कालिदासान हें काव्य अर्दारूच सोडून दिलां आसूंक जाय, असो एक समज आसा. ९ ते १७ हे सर्ग साहित्य-कलेचे नदरेन पयल्या आठ सर्गांपरस उण्या पांवड्याचे आसात, अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा.

कुमारसंभवाच्या १७ खंडांत आयिल्ली काणी थोडेभितर अशीः तारकासूर देवांक खूब त्रास दितालो. ताका ब्रह्मदेवाचो संरक्षक वर आशिल्ल्यान ताका शासन करप ब्रह्मदेवाक लेगीत शक्य नाशिल्लें. शिव-पार्वतीचें लग्न घडोवन हाडून तांकां जावपी पूत तारकासुराच्या जाचापसून सगळ्यांक मुक्त करतलो, अशें ब्रह्मदेवान देवांक सांगलें. तेखातीर शंकराच्या मनांत पार्वतीविशीं प्रेम निर्माण करपाखातीर इंद्रान मदनाक धाडलो. पूण शंकराच्या रागाक बळी पडून मदनाचो लासून गोबोर जालो. शंकराचे प्राप्तीखातीर पार्वतीन कडक तप केलें. ताचेर प्रसन्न जावन एका ब्रह्मचाऱ्याच्या रुपान शंकर तिचेमुखार प्रगट जालो. ह्या ब्रह्मचाऱ्यान शंकराची खूब निंदा करून पार्वतीक शंकराकडेन लग्न जावपापसून फाटीं ओडपाचे यत्न केले. पूण तिचो निश्चेव मात्तूय उणो जालोना. हें पळोवन शंकरान आपलें खरें रूप प्रगट करून तिचेकडेन लग्न जावपाचें मान्य केलें. लग्नाउपरांत तांकां कुमार कार्तिकेय हो तेजीश्ट चलो जालो. तो फकत स दिसांभितर शस्त्रास्त्रविद्येंत फिशाल जालो. फुडें देवांचो सेनापती जावन ताणें तारकासुराकडेन झूज केलें आनी ताका जितो मारलो.

कुमारसंभवांतल्या कथेचो आदार कालिदासान खंयच्यान घेतला आसूंक जाय, हे विशीं विद्वान जाणकारांमदीं मतभेद आसात. कांय समान विचारांचे धर्तेचेर ताणें ही कथा स्कंद आनी शिव पुराणांतल्यान घेतल्या आसूंक जाय, अशें एक मत आसा. तरी लेगीत चडशा पुराणांचो भाग कालिदासाउपरांत घडिल्ल्यान कालिदासाचेंच अनुकरण पुराणांनी केलां आसूंक जाय, अशें मत विंटरनिट्स ह्या विद्वानान दिलां.

वाल्मीकि रामायणाच्या बालकांडांत लग्न जाल्लो शंकर एक दीस तपाक बसला आसतना मदनान ताचें शरसंधान करपाचो यत्न केलो, देखून शंकरान ताका अनंग केलो, अशी एक कथा आसा. ही कथा कालिदासाक खबर आशिल्ली जावंक जाय. पूण हो प्रसंग शंकराच्या लग्नाआदींच घडला, अशें दाखोवन खऱ्या प्रेमाक कितल्या आडमेळ्यांतल्यान वचचें पडटा हें दाखोवन कालिदासान पार्वतीच्या शिवप्रेमाक एक वेगळेंच उदात्त मोडण दिलां.

ह्या महाकाव्यांत कितल्याशाच रमणीय आनी ओडलायण्या थळांचें वर्णन आयलां. हिमालयाचें वर्णन, पार्वतीची तपस्या, ब्रह्मचारी बटून केल्ली शिवाची निंदा, वसंत ऋतूचें आगमन, शिवपार्वतीचें लग्न आनी आठव्या सर्गांतलें तांचे रतिक्रिडेचें वर्णन हीं थळां वाचतना वाचप्यांक अंतरांत एक सुखदिणो अणभव दितात. बालपार्वती, तपस्विनी पार्वती, विनयवती पार्वती आनी प्रौढ पार्वती अशीं पार्वतीचीं एकापरस एक सोबीत आनी अप्रूप रुपां कवीन चित्रायल्यांत. देखीकः बालपार्वतीचें वर्णन करपी एक श्लोक असोः

तया दुहित्रा सुतरां सवित्री
स्फुरत्प्रभामण्डलया चकासे ।
विदूरभूमिर्नवमेघशब्दा-
दुद्भिन्नया रत्नशलाकयेव।। (१.२४)

अर्थ- नवमेघगर्जनेन भुयेंतल्यान भायर पडिल्ले रत्नशलाकेक लागून पर्वताची भूंय सोबून दिसता, तेप्रमाण जिच्या आंगाभोंवतणी तेज फांकलां, अशे बाल-पार्वतीक लागून तिची आवय चड सोबीत दिसली.

तरणेपणांत प्रवेश केल्ले पार्वतीचें चित्र फुडल्या श्लोकांत दिसून येता-

असंभृतं मण्डनमङ्गयष्टे-
रनासवाख्यं करणं मदस्य।
कामस्य पुष्पव्यतिरिक्तमस्त्रं
बाल्यात् परं साथ वयः प्रपेदे।। (१.३१)

अर्थ- उपरांत कांय दिसांनी ती पिरायेचे अशे अवस्थेंत पावली आनी अलंकाराबगर तिचें शरीर अलंकृत दिसपाक लागलें. सोऱे पियेल्याबगरूच तिच्या आंगांत मदाची गुर्मी चडली आनी कामदेवाक तिच्या रुपान पुष्पावांगडा आनीक एक अस्त्र मेळ्ळें.

तपस्विनी पार्वतीचें वर्णन अशें केलांः

शिलाशयां तामनिकेतवासिनीं
निरन्तरास्वन्तरवातवृष्टिषु।
व्यलोकयन्नुन्मिषितैस्तडिन्मयै-
र्महातपः साक्ष्य इव स्थिताः क्षपाः।। (५.२५)

अर्थ- वर्षा ऋतूंत पावसाच्यो दडकेर दडको पडटाल्यो. मदींमदीं वारो झणझणटालो. अशा वेळार भर रातीकडेन काळखांत पार्वती आश्रमांतल्यान भायर वचून एका फातराचेर न्हिदताली आनी वारो आनी उटंगारांचो पावस सहन करताली. तिच्या ह्या उग्र तपाक साक्षी आशिल्ल्यो त्यो राती विद्युत् दोळ्यांनी तिका एकसारक्यो पळेताल्यो.

विनयवती पार्वतीचें चित्र कवीन फुडल्या श्लोकांत चित्रायलांः

पत्युः शिरश्चन्द्रकलामनेन
स्पृशेति सख्या परिहासपूर्वम्।
सा रञ्जयित्वा चरणौ कृताशी-
र्माल्येन तां निर्वचनं जघान।। (७.१९)

अर्थ- पार्वतीक व्हंकल म्हूण नटयतना इश्टीणीन तिचीं पावलां रंगयलीं आनी तिची मस्करी केली- 'पार्वती, ह्याच पावलांनी न्हवऱ्याचे तकलेर आशिल्ले चंद्रकलेचें ताडन कर, आं!' इश्टीणीचें हें उलोवप आयकून पार्वतीन कांयच उलय नासतना हातांतले पुष्पमाळेन तिचें ताडन केलें.

कुमारसंभवांत अशे कितलेशेच रोसाळ आनी म्होंवाळ श्लोक आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## कुयेल्यु, आल्व्हीन्यु बेलार्मीनुः

(जल्मः २ डिसेंबर १९१९, साळगांव-बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मॅट्रीकमेरेन शिक्षण घेतलें. नॅशनल काँग्रेस गोंय हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो आनी पोर्तुगेज सरकाराआड प्रचार करपाचें काम करतालो. १६ सप्टेंबर १९५४ दिसा ताणें सोळा सत्याग्रहींचो पंगड तेरेखोलच्या किल्ल्याचेर व्हेलो. पोलिसांनी ताका धरून बंदखणींत दवरलो. पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी दंडाधिकाऱ्यामुखार चवकशे उपरांत ताका आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फाव जाली. तेभायर वीस दीस ताका एकांतवासांत दवरिल्लो. चार वर्सां आनी आठ म्हयने बंदखणीची ख्यास्त भोगल्या उपरांत ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. गोंय सुटके उपरांत तो इंडियन नॅशनल काँग्रेसीचो वांगडी आशिल्लो (१९६३-६४). ह्या काळांत तो पंचायतीचो सचिव आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## कुराडे, गोपीनाथ कृष्णा नायकः

(जल्मः ५ फेब्रुवारी १९०५, सांवरकटो, कुंकळ्ळी-साश्टी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें लिसेंवाचें पांचवें वर्स मेरेन शिक्षण घेतलें. तेभायर ताणें हिंदी कोवीद केलें आनी सॉलिसिटर तशेंच आदवोगादाची पदविका घेतली. १९४६ वर्सा सावन तो नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो वांगडी आसलो. जेन्ना दोतोर जुजे मारीया फुर्तादु हो हे संघटनेचो अध्यक्ष जालो, तेन्ना कांय काळ तो हे संघटनेचो चिटणीस आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो राश्ट्रवादी खबरांपत्रकांवरवीं लोकांक सुटके झुजाखातीर प्रवृत्त करतालो.

१९४६ वर्सा ताणें पोर्तुगेज गोव्हेर्नादोराक काळे बावटे दाखोवन आपलो विरोध परगटायल्लो. राश्ट्रवादी चळवळींनी वांटो घेवपी फुडाऱ्यांकडेन ताचो संबंद आसा, हो आरोप दवरून पोलिसांनी ताका धरपाचें फर्मान काडलें. पोलिसांक चुकोवपाक तो लिपचोरयां बेळगांवां गेलो. गोंयांत चलिल्ले सुटके चळवळीचेर उजवाड घालपाखातीर तो खबरांपत्रकांनी लेख बरयतालो. तशेंच ताणें मुंबय आनी पुणे वाठारांत आशिल्ल्या गोंयच्या राश्ट्रवादी फुडाऱ्यांकडेन संबंद दवरून सुटके झुजाचो आपलो वावर चालू दवरिल्लो.

१९५१ वर्सा तो गोंयांत आयलो. तो गोंयांत पावतकच रोखडोच पोलिसांनी ताका ताच्या घराकडेन अटक केली आनी सुमार स म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताची निर्दोश सुटका जाली. बंदखणींतल्यान सुटतकच गोंय सुटके मेरेन ताणें भुंयगत राश्ट्रवादी वावरांनी वांटो घेतलो. गोंय सुटके उपरांत तो 'भारतीय राश्ट्रीय काँग्रेस' (**Indian National Congress**) संघटनेचो वांगडी आसलो. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कुराडे, नारायण वैकुंठः

(जल्मः ९ फेब्रुवारी १९३१, ओर्ली-साश्टी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें माध्यमिक शिकप इंग्लिशींतल्यान घेतलें. तो भुसारी दुकान चलयतालो. सुर्वेक तो राश्ट्रीय काँग्रेस गोंय संघटनेचो वांगडी आसलो. उपरांत तो आझाद गोमन्तक दल संघटनेचो वांगडी जालो. १९५४ वर्सा तिरंगी बावटो उबारलो, ह्या आरोपाखाल पोलिसांनी ताका मडगांव शारांत धरलो, खूब मार दिलो आनी चवदा वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. चार वर्सां आनी णव म्हयने ख्यास्त भोगतकच ताची सुटका जाली.

२६ सप्टेंबर १९७३ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**कुरुक्षेत्र:** हरयाणा राज्यांतली पूर्विल्ली यज्ञभूंय, धर्मभूंय आनी इतिहासीक नामनेचें झुजामळ. विस्तार- २९° १५′ उत्तर ते ३०° उत्तर आनी ७६° २०′ उदेंत ते ७७° उदेंत. हें क्षेत्र कर्णालचे ईशान्येक ३२ किमी. अंतराचेर आसा.

कुरु हो कौरवांचो मूळ पुरुष. कुरु राजान हांगा तप केलें तेन्ना इंद्र ताका प्रसन्न जालो. इंद्राकडसून कुरुन वर मागून घेतलो 'जितली भूंय हांवें नांगरल्या, ते भुंयेक धर्मक्षेत्र म्हूण म्हज्या नांवान नामना मेळूं आनी हे पवित्र भुंयेचेर शिव आनी सगळे देव-देवता वास करूं.' (वामनपुराण, २२). हाच्यो चार शिमो तरंतुक, अरंतुक, रामहृद आनी मचक्रुक अश्यो दिल्यात. तांकां उत्तरवेदी, अंतरवेदी, धर्मक्षेत्र आनी विनशनक्षेत्र अशीं दुसरीं नांवां आसात. हें क्षेत्र सरस्वतीचे दक्षिणेक आनी दृशद्वतीचे उत्तरेक आसा, अशें महाभारतांत म्हळां. तैत्तिरीय आरण्यकांत कुरुक्षेत्राच्यो मर्यादा दक्षिणेक खांडववन, उत्तरेक तुरघ्न आनी अस्तंतेक परीणह अश्यो दिल्यात (५.१.१). शतपथ ब्राम्हण, ऐतरेय ब्राह्मण, शांख्यायन ब्राह्मण, बृहज्जाबालोपनिषद, कात्यायन श्रौतसूत्र, यजुर्वेद आनी पुराणां हातूंत कुरुक्षेत्राचें माहात्म्य वर्णिलां. 'हांव कुरुक्षेत्रांत वतलों, हांव कुरुक्षेत्रांत रावतलों' अशें सदांच चिंतपी लेगीत सगळ्या पातकांपसून मुक्त जातात आनी जो भावार्थान कुरुक्षेत्राची यात्रा करता, ताका अश्वमेध आनी राजसूय हे दोनूय यज्ञ केल्याचें फळ मेळटा, अशें महाभारतांत सांगलां. कुरूक्षेत्राचें दुसरें नांव महाभारतांत 'समंतपंचक' अशें सांगलां. यजुर्वेदांत ह्या क्षेत्राक इंद्र, विष्णू, शिव ह्या देवांची यज्ञभूंय अशें म्हळां. भगवद्गीतेंत हाका धर्मक्षेत्र अशें म्हळां.

हांगा एकदां सूर्यगिराणाच्या वेळार कौरव, पांडव, यादव आनी गोपाळ एकठांय जमिल्ले, अशें वर्णन भागवतांत आसा. आयज लेगीत सूर्यगिराणाच्या निमतान हांगा व्हडली जात्रा जाता. हांगाच्या ज्योतिसराकडेन श्रीकृष्णान अर्जुनाक गीता सांगली, अशें म्हण्टात. महारथी कर्णाक स्वता श्रीकृष्णान जंय अग्नी दिलो, ती एका मोट्या खडपावयली सुवात अजुनूय हांगा दाखयतात. परशुरामान हांगा 'स्यमंतपंचक' नांवाचें तळें निर्माण केल्लें. पुरुरवा, उर्वशी हांची वियोगाउपरांतची भेट हांगाच घडली. कौशिक ऋषीचो राबितो हांगाच आशिल्लो.

बुध्दपूर्व काळांत कुरूक्षेत्र हें एक महाजनपद आशिल्लें. इ.स.प. ३२२ सावन इ.स.प. १८५ मेरेन हो प्रदेश मौर्य साम्राज्याचो एक भाग आशिल्लो. इ. स. ५ व्या शेंकड्यांत तो गुप्त साम्राज्यांत गेलो. सम्राट हर्षवर्धनाचे मुस्तींत ह्या क्षेत्राची सांस्कृतिक आनी समाजीक नदरेन भरभराट जाली. ते उपरांतचो कुरूक्षेत्राचो इतिहास परकी घुरयो आनी तांकां लागून जाल्लो विध्वंस ह्या वर्णनान भरला. थानेश्वर, पानिपत, तरावडी, कैथल, कर्नाल ह्यो इतिहासीक नामनेच्यो लडायो ह्याच वाठारांत जाल्यो.

कुरुक्षेत्रांत पांच सरोवरां नांवाजल्लीं आसात; तीं अशीं: ब्रह्मसर, संनिहितसर, ज्योतिसर, स्थानेसर, कालेसर. तेचप्रमाण चंद्रकूप, विष्णुकूप, रुद्रकूप आनी देवीकूप हे चार कूप आसात. ह्या क्षेत्रांत पयलीं काम्यक वन, अदितिवन, व्यासवन, फलकीवन, सूर्यवन, मधुवन आनी शीतवन अशीं सात वनां आशिल्लीं. पूण तांचे आयज व्हडलेशे अवशेश मेळना. ते सुवातीर काम्यकतीर्थ, अदितितीर्थ, फल्गुतीर्थ, सूर्यकुंडतीर्थ हीं तीर्थां मात आयज दिसतात. कुरूक्षेत्रांत प्रजापतीन सहस्त्र वर्सांचें सत्र केल्लें. ताका लागून ह्या क्षेत्राक प्रजापतीची उत्तरवेदी अशें म्हण्टाले. अंबरीष, ययाती ह्या राजांनी आनी जायते राजर्षी, देवर्षी आनी ब्रह्मर्षी हांणीय हांगा सरस्वतीचे देगेर यज्ञ केल्ले.

फाळणीउपरांत अस्तंत पाकिस्तानांतल्यान आयिल्ल्या निर्वासितांखातीर कुरुक्षेत्राच्या सुमार २५७ किमी. घेर आशिल्ल्या भुंयेचेर व्हडली छावणी उबारिल्ली. सातव्या शेंकड्यांत भारतांत आयिल्ले अभ्यासक ह्युएनत्संग हाणें कुरूक्षेत्र ही सौख्यभूमी अशें म्हळां.

सद्या हांगा शासकीय प्रशिक्षण संस्था, कुरुक्षेत्र विद्यापीठ (स्थापणूक १९५६) आनी रानवट शेवण्यांखातीर अभयक्षेत्र आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कुर्डीकार, मोगुबाय:** (जल्म: १४ जुलय १९०४, कुर्डी-सांगें). गोंयची नामनेची शास्त्रीय संगीत गायिका. तिचे आवयचें नांव जयश्रीबाय. मोगुबायच्या गांवचें तशेंच घरचें वातावरण संगीताचें आशिल्ल्यान भुरगेपणातच तिचेर संगीताचे संस्कार जाले. चलयेची संगीतावटेन आशिल्ली ओड, आवड आनी ते पिरायेंतलें तिचें गायन पळोवन, आवयन तिका शास्त्रीय संगीत शिकोवपाचें थारायलें. त्या काळांत गोंयांत खूब संगीतकार आसले तरी ते गोंयांभायर राबितो करून रावताले. गोंयांत वेवस्थीतपणान संगीताचें शिकप दिवपाची तजवीज नासली. चडशे गोंयकार कलाकार गोंयांभायर वचून शिकप घेताले. अशा अडचणींक लागून मोगुबायच्या शिक्षणाची चिंता, तिचे आवयक पडिल्ली. तिणें मोगुबायक पर्वत- पाड्डेंचो खांपो कलाकार बाळकृष्णबुवा पर्वतकार हाचेकडेन मुळावें शिकप घेवपाक धाडली. बाळकृष्णबुवाची गोंयांत आनी गोंयांभायर नांवाजिल्ली 'चंद्रेश्वर भूतनाथ संगीत मंडळी' आसली. मोगुबायन १९११ वर्सा हे मंडळींत प्रवेश घेतलो. मोगुबायक तेन्ना संगीत शिक्षणावांगडा नाटकांतूय काम करपाची संद मेळ्ळी.



मोगुबाय कुर्डीकार

उपरांत चंद्रेश्वर भूतनाथ संगीत मंडळी बंद पडली तेन्ना ती 'सातारकर स्त्रीसंगीत मंडळी'च्या आपोवण्यावेल्यान थंय गेली. १९१३ सावन १९१८ मेरेन ती हे मंडळींत आसली. हे मंडळींत चिंतुबुवा गुरव हाचेकडल्यान तिणें शास्त्रीय संगीताचें जाल्यार रामलाल कथ्यक हाचेकडल्यान नृत्याचें शिकप घेतलें. त्या काळांतले हे दोगूय नामनेचे सर्वमान्य पंडित आसले.

मोगुबायन गायन कलेंत बरीच उदरगत घडोवन हाडली. संगीताचें खोलायेन शिकप घेवपाचे इत्सेन ती सांगलीक गेली आनी हैदराबादचे खांसाहेब इनायत खां पठाण हाचेकडेन शिकप घेवपाक लागली. खांसाहेब कांय म्हयन्यांतच सांगली सोडून गेलो आनी मोगुबायची तालीम बंद पडली. पूण खां साहेबाकडल्यान संगीताचें जें गिन्यान जोडिल्लें ताचो रियाज ती सकाळ-सांजवेळ नेमान करताली. अशेतरेन गुरुकडल्यान मेळिल्ली विद्या तिणें जिवी दवरली.

ह्याच काळांत एक फावट गानसम्राट अल्लादिया खांसाहेब सांगलीक डॉ. सांबारी हाचे कडेन स्वताच्या वखद-विर्सदाखातीर येवन राविल्लो. रस्त्यांतल्यान येतना वतना मोगुबायच्या रियाजाच्यो तानो तो आयकतालो. एक दीस उमळशिकेन तो तिच्या घरांत भितर सरलो आनी तिचें गाणें आयकुपाक लागलो. तिच्या गाण्याचेर धादोशी जावन अल्लादिया खांसाहेब हाणें तिका गायनाची तालीम दिवपाचें उतर दिलें. सतत दोन वर्सां ही तालीम चलली.

मोगुबायन हे उपरांत आग्रा घराण्याचो विलायतखां हाचो व्हडलो भाव, बडे महम्मद खां हाचो पूत बशीर खां हाचेकडल्यान दोन वर्सां

तालीम घेतली आनी उपरांत ताचे आज्ञेन साहेब विलायतखां हाचो गंडो बांदलो. फुडें तीन-चार म्हयने शिकप घेतकच खांसाहेब दुयेंत पडलो आनी तिची तालीम बंद पडली. पूण तिचो रियाज चालूच आशिल्लो.

कांय काळाउपरांत अल्लादिया खांसाहेब आपूण जावन तिगेर आयलो आनी ताणें तिका आपलो भाव हैदरखांसाहेब हाचेकडेन तालीम घेवपाक सांगलें. हैदरखांसाहेबाकडेन तिची तालीम स वर्सां चल्ली. फुडें खांसाहेब दुयेंत पडिल्ल्यान आपल्या गांवघरा परतलो. १९३४ वर्सा खांसाहेब अल्लादिया खां पर्थून एक फावट तिगेर आयलो आनी तिची तालीम सुरू जाली. १९३५ वर्सा मोगुबायचें गंडाबंधन जालें. १९४४ मेरेन तिची ही तालीम चालू उरली. वयले घडणुकेक लागून तिच्या गायनाचेर जयपूर घराण्याची सया पडिल्ली दिसता.

आयच्या बायल गायिकांमदीं तिका ताल, लय हातूंत वयली सुवात फावता. लय-ब्रह्मभास्कर सर्गेस्त खाप्रूजी पर्वतकार हाचें मार्गदर्शन मेळिल्ल्यान अर्धमात्रा, पावमात्रा दाखोवपी तराणेय ती सहज गायता. मोगुबायची चली सौ. किशोरी आमोणकार भारतांतली नामनेची शास्त्रीय संगीत गायिका जावन आसा. मोगुबायची शिष्य-परंपरा व्हड प्रमाणांत आसा.

- मलबाराव सरदेसाय

## कुर्डीकार, सुकडू विठोबाः (जल्मः १० मे १९३१, दोंगरी-तिसवाडी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताचें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान जालें. गोंय सुटके काळांत तो नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५२ ते १९६० मेरेन ताणें भूंयगत राजकी वावर केला. १० नोव्हेंबर १९५५ दिसा पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका अटक केली. जुलय १९५६ दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कुर्रेय, आफोंसु, पेद्रु पाउलु ब्राजः (जल्मः २९ जून १८९२; मरणः १४ फेब्रुवारी, १९६५).

एक नामनेचो कोंकणी पत्रकार. बापायचें नांव रॉक आनी आवयचें नांव क्लाऊना पाशेको. मार्च १९१८ वर्सा ताणें मुंबय विद्यापीठाची, कृषी विज्ञानाची पदवी मेळयली. बरे गूण मेळिल्ल्यान पुण्याच्या शेतकी महाविद्यालयांत ताचें नांव मानादिकांचे वळेरेंत आसा. १९१८ वर्सा गोंयच्या कृषी आनी रान खात्यांत ताका नोकरी मेळ्ळी. १९१८ ते १९३१ वर्सामेरेन ताणें असोळणें गांवचो शासक म्हूण वावर केलो. उपरांत तो तेरसैरा सिरकूनश्क्रिसांव आग्रीकोला, मडगांव (Terceira Circunscricao Agricola) हे संस्थेचो मुखेल जालो. ३० वर्सां नोकरी केल्याउपरांत १९४९ वर्सा तो निवृत्त जालो.

१९१९ वर्सा तेन्नाच्या गोंयच्या कृषी आनी रानखात्याच्या निर्देशकान ताका 'ॐ गनेज सॅति पश द सॅति काबेसाश' ('Um Ganez de sete pes e sete Cabecas) (सात पांयांचो आनी सात तकल्यांचो गणेश दीना) अशें म्हूण ताचो भोवमान केलो.

भारताचें पीक वाडोवपाचे नदरेन ताणें बरेच प्रयोग केले. असोळणें, वेळ्ळी आनी आंबेली हांगा सरकारी जमनींत ताणें माडाच्या पिकाची उदरगत केली. नाल्लाचे उदरगतीच्या संस्कृतीक, वेपारी आनी उद्येगीक आंगांचो अभ्यास करपाखातीर ताका श्रीलंकेत धाडलो. ह्या वेळार ताणें केल्या अभ्यासाक लागून गोंयच्या गवर्नर जनरलान ताचो भोवमान केलो. ताणें बरयल्लो प्रबंध पुस्तकरुपान उजवाडाक आयलो. शेतवडीचीं उपकरणां, रसायनीक सारीं, कीटकनाशकां आनी शेतवडीच्या मळार यांत्रिकीकरण करपांत ताचो म्हत्वाचो वांटो आसा. १९४१ ते १९४७ वर्सामेरेन सालसेत नगरपालिकेचो अध्यक्ष ह्या नात्यान ताणें घाण आनी कोयरापसून सारें करपाची पध्दत सुरू केली. ताणें देवी, रॅबिज ह्या दुयेसांआड खर उपाय येवजण केली आनी मडगांव शारांतली येरादारी वेवस्था आनी गटार वेवस्था सुदारली.

तो खर राश्ट्रवादी आशिल्लो. १९५० आनी १९६० वर्सा 'अ व्हीद' (A Vida) ह्या पोर्तुगेज खबरापत्राखातीर ताणें बरपावळ केल्या. १९६२ वर्सा ताणें गोंयच्या कोंकणी भाशा मंडळाची थापणूक केली आनी मंडळाचो तो संस्थापक अध्यक्ष जालो. ह्या मंडळावरवीं ताणें कोंकणी कार्यकर्त्यांचो एक पंगड तयार केलो आनी कोंकणी भास आनी साहित्य हांचे उदरगतीक हातभार लायलो. १९६२ वर्सा मडगांवां भरिल्ले आठवे कोंकणी परिशदेचो तो येवकार अध्यक्ष आशिल्लो.

- फेलीसियु कार्दोज

## कुर्रेय, चार्लस मार्कः (जल्मः १ सप्टेंबर १९३०, सिकंदराबाद).

नामनेचो गोंयकार स्थापत्य शास्त्रज्ञ. मिचिगन विद्यापीठांत पदवीधर जालो (१९४९-१९५३). मॅसेच्युसॅट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजी हातूंतल्यान मास्टर ऑफ आर्किटॅक्चर ही पदवी घेतली (१९५३-१९५५). १९५८ हे आयजमेरेन खाजगी प्रॅक्टीस करता. नवें मुंबय शार बांदपाचे येवजणेंत ताचो हात आसा (१९६४-१९६५). संयुक्त राश्ट्रसंघान आनी पेरु देशाच्या सरकारान ताका लिमा शारांत घर बांदप येवजण करपाखातीर आपोवन व्हेलो (१९७०-७१). महाराष्ट्र सरकाराचे नवी मुंबय बांदपाचे येवजणेखातीर केल्या CIDCO मंडळाचो मुखेल स्थापत्यशास्त्रज्ञ (१९७१-१९७४). १९७५ ते १९८३ मेरेन मुंबयच्या हाउसिंग अर्बन रिन्युअल अँण्ड इकॉलॉजी बोर्डाचो अध्यक्ष आसलो. १९८५ ते आयजमेरेन भारत सरकाराच्या नॅशनल कमीशन ऑन अर्बनायझेशनचो अध्यक्ष. ताणें MIT (१९६२) आनी लंडन विद्यापीठ (१९७४) ह्या संस्थांनी अध्यापन केलां. तशेंच इंग्लंडच्या कॅम्ब्रिज विश्वविद्यालयांक नेहरु प्रोफेसर म्हूण काम केलां (१९८५).

गुजरात हाउसिंग बोर्डान येवजिल्ल्या अखिल भारतीय सवाय घर बांदणे-सर्तींत पयलें इनाम फाव जालें. १९७२ वर्सा भारताच्या राश्ट्रपतीन ताका पद्मश्री हो किताब दिलो. तशेंच ताका रॉयल इन्स्टिट्यूट ऑफ ब्रिटीश आर्किटॅक्ट्स हे संस्थेन १९८४ वर्सा रॉयल गोल्ड मॅडल फॉर आर्किटेक्चर हें पदक भेटयलें. फ्रांसाचे स्थापत्यशास्त्र अकादेमीन ताका आपलो वांगडी करून घेतलो. आपल्या वावराचीं ताणें अमेरिका, व्हेनीस, लंडन, पारीस, हांगा प्रदर्शनां भरयलीं. १९९० त VIA हे संस्थेन ताका भांगराचें पदक भेटयलें. गोंय सरकाराच्या पणजेच्या कलाअकादमी संकुलाचो आराखडो ताणेंच तयार केला. मोनिका सिकैरा हिचे लागीं १९६१ वर्सा लग्न जालें. तांकां दोन भुरगीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## कुलः

'कुल' ह्या मूळ संस्कृत उतराची फोडणीशी अशी करतात. 'कु' म्हळ्यार पृथ्वी; 'ल' हें उतर लाति हाचेवयल्यान आयलां. लाति म्हळ्यार आत्मसात करप. पृथ्वी आपणाली करता तें कुल. 'ल' चो अर्थ लीन जावप, असोय करतात. भुंयेकडेन लीन जावपी तें 'कुल'.

'कुल' ह्या शब्दाचो एक अर्थ घराणें अशें रघुवंश सर्ग ३, श्लोक १ हातूंत बरयलां. घर ह्या अर्थान ताचो उल्लेख रघुवंश सर्ग १२ श्लोक २५ हातूंत आयला. 'वसन् ऋषिकुळेषु सः' (वाल्मीकी रामायण ५-५-१०). कूळ खंयचेकडेन लागू पडटा हें हेमकोषांत सांगला. 'कुलं कुल्ये, गणे देहे गे हे जनपदे, अन्वये।' कुल् म्हळ्यार एकठांय येवप, पुंजावप ह्या धातुवयल्यानय कुल हें उतर जालां. आप्तसंबंदान एकठांय आयिल्ले, एका रगताचे आनी संबंदी अशे जितले लोक आसात, त्या सगळ्यांचें मेळून कुल जाता. कुल म्हळ्यार कुटुंब वा जात मात न्हय. कुलांतल्या दरेकल्याक कुलाचे अधिकार, उपभोग आनी हितकारक गजाली हक्कान मेळटात. कुलांतलो दरेक मनीस कुलनांव आपणायता आनी कुलाच्या सगळ्यां कार्यावळींनी वांटो घेता.

कुलपरंपरा दोन प्रकारची आसा. १. पितृपरंपरा आनी २. मातृपरंपरा. जंय कुलाचो मुखेल बापूय वा कुटुंबांतलो हेर दादलो जाता ती पितृपरंपरा आनी आवयच्या नांवान चलता ती मातृपरंपरा.

केरळांत नायर आनी कांय हेर जातींनी मातृपरंपरा आशिल्ली. गोंयांतूय भावीण, कलवतां हांचेमदीं ही परंपरा पयलीं आशिल्ली. एका तेंपार नांवा उपरांत आपले आवयचें नांव ह्या समाजांतले लोक वापरताले.

कुल म्हळ्यार कुटुंब न्हय. एका कुलांत कितलींशींच कुटुंबां आसूंक शकतात. ज्योतिश्यशास्त्रांत कुल हे गजालीक बरेंच म्हत्व दिलां. लग्न सोयरीकेच्या वेळार कुल जुळटा वा ना हाचो विचार करतात.

पयलीं प्रतिश्ठीत आनी बऱ्या कुलाक महाकुल म्हण्टाले. अशा महाकुलाची सुवात समाजांत उंचेल्या पावंड्यार आसताली. बऱ्या कुलांतल्या आचारसंपन्न मनशाक कुलीन म्हण्टाले आनी महाकुलांतल्या मनशाक महाकुलीन म्हण्टाले. महाभारतांत अशा महाकुलांची तोखणाय केल्या. विदुराच्या मतान महाकुल म्हळ्यार-

तपो दमो ब्रह्म वित्तंविताना पुण्या विवाह सततान्नदानम्।
येष्वेते सप्त गुणा वसन्ति सम्यग्वृत्तास्तानि महाकुलानि।।

अर्थ- तप, इंद्रियदमन, तत्त्वगिन्यान, द्रव्य, यज्ञ, पुण्यविवाह अन्नदान आनी अदाचार संपन्नता हे सात गूण महाकुलांतल्या मनशांनी आसतात.

पुराणकाळांतले एक महाकुल म्हळ्यार सूर्यकुल, जाचें फुडें रघुकुल जालें. श्रीकृष्ण आनी पांडव सोमवंशाचे (सोमकुल) आशिल्ले. ह्या सोमवंशांतल्यान फुडें कर्तबगार मनशांवयल्यान यदुकुल, वृष्णीकुल अशीं नामनेचीं कुलां जालीं. जैन संप्रदायांतूय जैन श्रमणांचीं कुलां आशिल्लीं. दरेक कुलाचेर एक एक आचार्य आसतालो. बऱ्याच कुलांचो मेळून गण जातालो.

तंत्रशास्त्रांत कुल आनी अकुल ह्या नांवाचीं दोन तंत्रां आसात. कुलतंत्र हें द्वैतपर आनी शक्तीविशींचें, जाल्यार अकुल हें अद्वैतपर आनी शिवाविशींचें आसा. योगशास्त्राप्रमाण पृथ्वी मुलाधार चक्रांत रावता. हाकालागून हठ्योगांतल्या चक्राक कुल म्हळां.

- वा. ल. वझे

**कुलदेव:** परंपरेन आपल्या कुळाचो असो मानिल्लो देव. पूर्वज ज्या देवस्थानांतलो वांगड घेवन कुळावी जाले, त्या देवस्थानाचो देव. सारस्वत ऋषी आनी तांचे शिष्य हांचे वंशज म्हळ्यार सारस्वत ब्राह्मण. हे सारस्वत ऋषी न्हंयचे देगेर रावताले आनी ते जंय रावताले त्या देशाक सारस्वत देश म्हण्टाले. अशें म्हण्टात की, परशुरामान ह्या दशगोत्री सारस्वतांक गोंयांत हाडले आनी तांणी तांचेवांगडा तांचे कुलदेव हाडले. स्कंदपुराणांत तांचो उल्लेख आयला. तांचीं गोत्रां अशीं- भारद्वाज, कौशीक, वत्स, कौडीण्य, काश्यप, वसिष्ठ, जमदग्नी, विश्वामित्र, गौतम, अत्री. तांणी जे देव हाडले तांचीं नांवां अशीं आसात- मंगेश, म्हादेव, नागेश, शांतादुर्गा, सप्तकोटेश्वर. परशुरामान ह्या दशगोत्री ब्राह्मणाक आठ गांव (अष्टग्राम) दिवन, थंय तांणी आपल्या देवांची थापणूक केली. ह्या कुलदेवांचीं देवळां वेंचीक जाग्यार बांदल्यांत.

मंत्रपूर्वक जागो शुध्द करून मंदीर वास्तू बांदतात. उपरांत गर्भकुडींत पिंडिकेचेर मुर्तीची थापणूक करतात. मुर्तीची विधीपूर्वक प्राणप्रतिष्ठा करून मुर्तींत देवपण हाडटात. उपरांत देवाक आरती, निवेद्य दाखोवप, कपडे न्हेसोवप, किर्तनां, भजनां करतात. तशेंच देवाक भांगराच्यो वस्तीय घालतात.

कुलदेवतेचे कांय संकेत आसतात. कुटुंबांतल्या कसल्याय शुभकार्यावेळार कुलदेवतेची याद करतात वा पूजा करतात. म्हत्वाच्या कामाक वचचे पयलीं तशेंच काम जातकच, कुलदेवाचें दर्शन घेवप गरजेचें मानतात. तेचपरी लग्न जातकच नवें जोडपें कुलदेवांचें दर्शन घेवंक वता. गोंयांत सारस्वत ब्राह्मणांचे, दैवज्ञ ब्राह्मणांचे आनी मराठ्यांचे अशे ते ते जातीचे कुलदेव आसात. तशेंच त्या त्या म्हाजनाकूच गर्भकुडींत वचून पूजा करूंक मेळटा. देवाचें दर्शन घेवंक वता तेन्ना जोतीं भायर दवरप, देवाच्या ताटांत पयशे घालप, देवाचें दर्शन घेतकच थोडो वेळ बसप अश्यो चाली आसात. देवाक नवस करप, भांगरावस्तू दिवप, जेवण घालप, देवाच्या नांवान अगरसाळी बांदप, व्हडले उत्सव करप आदी गजाली म्हाजन करतात.

- माणिकराव राम नायक गावणेकर

**कुलासो, जुजे एफ्. सी.:** (जल्म: ?; मडगांव-साश्टी).

कार्बो व्हेर्दे ह्या वाठारांतलो बिशप. ताणें आपलें शिक्षण राशोल वाठारांत घेतलें. १९३४ वर्सा धर्मीक फुडारी म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९५६ वर्सा तो बिशप जालो. १९७६ वर्सा ताणें आपल्या वावराचो राजिनामो दिलो.

- कों. वि. सं. मं.

**कुलासो, ब्लास्को एफ्.:** (जल्म: ?, राय-साश्टी).

**दक्षिण अमेरिकेंतल्या पनामा आनी मध्य अमेरिकेंतल्या डॉमिनीकन रिपब्लिक ह्या देशांत तो धर्म प्रतिनिधी** (Apostolic Nuncio) आशिल्लो. ताणें आपलें शिक्षण राशोल सेमिनारींत घेतलें. १९५४ वर्सा धर्मीक फुडारी म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९७७ वर्सा तो बिशप जालो. सद्या तो डॉमिनीकन रिपब्लीक (**Dominican Republic**) आनी पुएर्तो रीको (**Puerto Rico**) ह्या देशांत व्हॅटिकनाच्या राजनैतिक दलाचो (**Diplomatic Corps**) मुखेल जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कुलू:** हिमाचल प्रदेशांतल्या कुलू जिल्ह्यांचें मुखेल थळ. पठाणकोटसावन सुमार २८३ किमी. आनी उदेंतेक सुमार १२४० मी. उंचायेचेर बियास न्हंयच्या देगणांत कुलू हें शार वसलां. देखुनूच हाका कुलू देगण अशें म्हण्टात. लोकसंख्या: १०,००० (१९८१). हें कुलू देगण सैमीक सोबितकायेन भरलां. हांगाचें हवामान भलायकेक मानवता अशें आसा. हांगा हून उदकाचे खूब वझरे आसात. कुलू देगणांतल्या मणिकरण ह्या वाठारांत हून उदकाचो एक झरो आसा. तापिल्ल्या उदकापरसूय ह्या झऱ्याचें उदक हून आसून हें उदक भलायकेक बरें अशें म्हण्टात.

कुलू देगणापसून २३ किमी. मनाली हो वाठार आसा. थंयसावन १५ किमी. अंतराचेर १३,४००० फूट उंचायेचो रोहटक खिंड आसा. ह्या रोहटक खिंडीउपरांत कुलू देगण सोंपता. कुलू शाराच्या लागसारच्या दोंगराचेर बिजली म्हादेवाचें देवूळ आसा. ह्या देवळाचेर एक स फूट उंचायेचो दंड आसा. ह्या दंडाचेर वीज पडली जाल्यार देवळांतल्या शिवलिंगाचे कुडके जातात. मागीर पुरोयत ते कुडके एकठांय करून परतें लिंग तयार करता, अशें सांगतात. हांगा बशेश्वर म्हादेवाचें देवूळ आसून नक्षीकामाखातीर ताची नामना आसा. मनालीसावन लागींच एका दोंगराचेर रामाचें आनी वसिष्ठ मुनीचें देवूळ आसा. रामाचो अश्वमेध यज्ञ जातकच वसिष्ठ मुनी तपाक बशिल्लो आसतना थंयच ताची कूड पाशाणाची जाली आनी तीच मूर्त ह्या देवळांत आसा अशें म्हण्टात. वसिष्ठ मुनीच्या देवळालागींच एक कुंड तशेंच गंधकयुक्त हून उदकाचे वझरेय आसात. हांगा आशिल्लें रामाचें देवूळ फातरांनी बांदलां आनी तातूंत रामाची व्हड मूर्त आसा. ह्या दोन देवळांलागींच देवदार झाडाचें दाट रान आसा. ह्या रानांत हिडिंबा देवीचें लांकडी देवूळ आसून ताचेर सोबीत नक्षीकाम आसा. ह्या देवळाक पागोडाच्या आकाराचें चवकोनी पाखें आसून तें देवदार लांकडाच्या फळयांपसून केलां. देवळांत एके शिळेचेर हिडिंबा देवीच्या पावलांची कुरू आसा. तशेंच थंय एक ल्हानशेंच कुंड आसा. आंगवणीच्या बोकड्याचे बळी दितकच ताचें रगत ह्या कुंडांत उडयतात. दसऱ्या दिसा ही देवी कुलू शारांत गेल्याबगर थंयचो उत्सव पुराय जायना, अशें म्हण्टात. मनाली वाठारांत मनुचें एक देवूळ आसा. ह्या कुलू देगणांत कितलेशेच देव आसात. देखून, हाका देवदेगण अशेंय म्हण्टात. हांगा सुमार ३६५ देवळां आसात. तातूंतलीं कांय देवळां आदले भारतीय संस्कृतायेचें आनी शिल्पकलेचें दर्शन घडयतात.

रघुनाथजी हो कुलू शारांतल्या लोकांचो मुखेल देव. कुलू नगरांत ताचे दोन उत्सव जातात. एक दसऱ्याक आनी दुसरो वसंत पंचमीक. नग्गर ही कुलू राज्याची आदली राजधानी आसली. हांगा एक शिवाचें देवूळ आसा. कुलू देगणांतल्या सगळ्या लोकांची ही भावार्थाची सुवात आसा. ह्या

देवळाचे वण्टीचेर आदल्या काळांतलें सुंदर अशें शिल्पकाम पळोवंक मेळटा. नग्गर वाठारांत लागींच मुरलीधराचें देवूळ आसा. हें देवूळ वनवासांत आसतना पांडवांनी बांदिल्लें, अशें म्हण्टात. पांडवांच्या काळांतलो एक दुर्बोध असो फातरापटो थंय आसा. ह्या देवळांत कृष्णाची सुंदर मूर्त आसा.

कुलू देगणांतले लोक घटमूट आनी सुंदर आसतात. शेतवड हो तांचो मुखेल वेवसाय. हांगा गंव, मको, बटाट, भाजीपालो, फळां, च्या, देवदार लांकूड, तुतीचीं झाडां तशेंच वखदी झाडांचेंय उत्पादन जाता. कुलू हें उत्पादनाची बाजारपेठ जावन आसा. तेभायर म्हौंव, लोकर, पांटले, हातमाग हांचो उद्येग कुलू शारांत चलता.

हांगाचे चडशे लोक 'कनेत' आनी 'डांगी' जातीचे आसून, कांय ब्राह्मण आनी कांय रजपूत लोकूय हांगा रावतात. आर्य लोक हांगा येवचेपयलीं हो सगळो हिमालय प्रदेश कनेत जातीच्या लोकांनी वापरिल्लो. संस्कृत साहित्यांत ह्या लोकांक 'कुर्निद' वा 'कुलिंद' हें नांव आसा. डांगी लोकांचें 'कोली' हें दुसरें नांव आसा. तांच्या बायलांक समाजांत बरीच स्वतंत्रताय आसा.

कुलू शारांतल्या लोकांचे जिणेंत लोकसमाजाचो बरोच प्रभाव दिसता. 'डग्गू' हे समाजीक बहिश्काराचे पध्दतीक ह्या लोकांमदीं बरेंच म्हत्व दिल्लें दिश्टी पडटा. तेचपरी समाजीक आनी धर्मीक विधींक हांगा 'बंज' म्हण्टात. हांगाचीं झगडीं पंचांचे मध्यस्थीन पालयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**कुल्ली:** (वर्ग- क्रस्टेशिया, उपवर्ग- मॅलॅकोस्ट्रॅका, गण- डेकॅपोडा, उपगण- ब्रॅकियुरा).

कुल्ल्यो जगांत सगळ्याक मेळटात. तांच्यो सुमार ४,५०० जाती आसात. कुल्ल्यो दर्यांत वा साव्या उदकांत मेळटात. कांय कुल्ल्यो भूचर (जमनीर रावपी) आसतात. दर्यांतल्यो कुल्ल्यो दर्यादिगेक सावन ३,६०० मी. खोलायेमेरेन रावतात. भूचर कुल्ल्यो उश्ण प्रदेशांत खूब प्रमाणांत मेळटात. त्यो दर्यांतूय वतात. कारण तांच्या जिवितांतली मुळावी अवस्था (डिंभावस्था) दर्यांत घडटा.


कुल्ली

कुल्ल्यो वेगवेगळ्या आकारांच्यो आसतात. 'पी क्रॅब' जातीची कुल्ली १.६ मिमी. आकाराची आसता. जपानची 'मॅक्रोकीइश' आनी टास्मानियाची 'स्यूडोकार्सिनस' ह्यो कुल्ल्यो खूब मोट्यो आसतात. भारतांतल्या चिल्का तळयांत मेळपी 'सिला सेरॅटा' हे जातीचे कुल्लेची रुंदाय ४६ सेंमी. इतली आसता. कुल्लेचो भायलो आकार लांबोडो वाटकुळो आसता. कुल्लेच्या आंगार निबर अशी कांटयारी देग आशिल्लें कल्ल आसता. हें कल्ल कुल्लेक संरक्षण दिता. कांय वेळार कुल्ली कल्ल सोडटा तेन्ना पर्यून तिच्या आंगार नवें कल्ल चडटा. कुल्ल्यांचें श्वसन क्लोमांवरवीं (gills) जाता.

कुल्ल्यो चड करून हळू चलतात पूण त्यो धांवकूय शकतात. पोटर्यूनिडी कुळाच्यो कांय कुल्ल्यो पेवंक शकतात. कुल्ल्यो जितें भक्ष्य खातात. कांय कुल्ल्यो उदकांतल्यो वनस्पती खावपी आसतात. कुल्ल्यांच्या पोटाक 'पेंदो' अशें म्हण्टात. तांच्या दोळ्यांक देंठांसारके भाग आसून दोळे सगळेवटेन घुंवडावंक येतात आनी जाय तेन्ना कट्ट्याच्या (carapace) फुडल्या भागांत आशिल्ले खांची भितर ओडून घेवंक मेळटात.

कुल्लेच्या पेंदयाक व्हडल्या आनी ल्हान आकाराचे दांगे मेळून आठ जोडयो आसतात. हातूंतल्यो पयल्यो तीन जोडयो कातीन घट्ट आसून तांचो उपेग अन्न हाताळपाखातीर जाता. हेर पांच जोडयांचो म्हळ्यार 'पांखुल्ला'चो उपेग चलपाखातीर जाता. हातुंतले पयले जोडयेंतले पांय हेर पांयांपरस मोटे आनी भक्कम आसून तांकां 'दांगे' म्हण्टात.

चडशा कुल्ल्यांनी तांतयां फुटून तातूंतल्यान लाख भायर येता. लाख वाडून मोटी जातकच ताचें मेगॅलोफा लाखेंत रुपांतर जाता. साव्या उदकांत रावपी कुल्ल्यांक मुकाजीवी डिंभावस्था नासता. तांतयांतल्यान भायर येवपी पिलांचे कुडीचेर सगळीं उपांगां आसतात आनी पयलें निर्मोचन जायसर तीं आवयच्या आंगाक घट्ट दसून आसतात. 'पिलोथेरीस' ही ल्हान कुल्ली कालवांच्या करपांभितर वा तिसरेच्या शिंपयेभितर 'सहभोजी' म्हूण रावन कालवाच्या अन्नाचो वांटो आपूण घेता. चडश्यो कुल्ल्यो आपल्या कट्ट्याचेर दर्यांतली वनस्पत, स्पंज आदी वाडोवन, दुस्मानाक दिसूंक फावना अशे तरेन आपली राखण करून घेतात. मनीस कुल्ल्यांचो उपेग खावपाखातीर करता. कॅन्सर पॅग्युरस (ब्रिटन आनी युरोप), कॅलिनेक्टिस सॅपायडस (युरोप), कॅन्सर मॅजिस्टर (अमेरिका) आनी भारतांतल्या सिला सेरॅटा, नॅपच्यूनस पेलॅजिक्स आनी पॅराटेलफ्यूजा स्पिनीजेरा (साव्या उदकांतली) ह्यो कुल्ल्यो खावपाचे नदरेन खूब म्हत्वाच्यो. भारतांत व्हड प्रमाणांत कुल्ल्यो धरपाचो वेवसाय चलता. गोंयांत चोडणेच्यो लाखीच्यो, कुंडयच्यो आनी काणकोणच्यो कुल्ल्यो सुवादीक आसतात. गोंयचे लोक मसालो घालून कुल्ल्यांचें तोणाक करून खातात. तशेंच कुल्ल्यांचे हेर प्रकारुय करून खातात.

बारीक आकाराची कुल्ली खूब फावटीं तिसरेंत (शिंपयेंत) मेळटा; ही कुल्ली तिसरेंतल्या मांसाचेर जियेता आशिल्ल्यान ती बेंदुल्ल (parasite) कशी जियेता. गोंयांत मेळपी कुल्ल्यांमदीं मुखेल प्रकार म्हळ्यार- सावी वा खारी खडपी कुल्ली, लांब दांग्यांची आनी थिपक्या थिपक्यांची दर्यांत मेळपी पिसोळी कुल्ली, दर्यादिगेर आनी व्हाळांदेगेर मेळपी 'जांगुल्ली' ही भूचर कुल्ली.

**प्रकार:** *नाल्लखावपी कुल्ली:* ॲनोम्यूरो उपगणांतली, सीनोबायटिडी कुळांतली ही कुल्ली आंगान मोटी आसता. लांबाय ३० सेंमी. परस चड. हिंदी म्हासागर आनी पॅसिफिक म्हासागराच्या द्वीपांत ही कुल्ली मेळटा. जमनींत बिळां करून तातूंत रावता. रातची माडाचेर चडून नाल्ल सकयल उडयता. नाल्लाचें सोण्ण काडून आपल्या मोट्या नाखटान नाल्लाच्या दोळ्यांचेर घाव घालून तो फोडटा आनी नाखटान नाल्लाचें खोबरें भायर काडून खाता. चोरून नाल्ल खावपाचे संवयेक लागून हिका 'चोर कुल्ली' अशें म्हण्टात. हे कुल्लेंत खूब तेल सांठ्यल्लें आसता. एके कुल्लेपसून सुमार एक लिटर तेल मेळटा. चीनी लोक ह्यो कुल्ल्यो आवडीन खातात.

*शंखवासी कुल्ली:* (गण- डेकॅपोडा, उपगण- ॲनोम्यूरा, कूळ- पॅग्युरिडी).

ही कुल्ली दर्यादिगेर दिसता. पोट मांसाळ आसता. आपली राखण करून घेवपाखातीर ही कुल्ली एकाद्र्या उदरपादाचो (गॅस्ट्रोपॉड प्राण्याचो) रिकामो शंख सोदून काडून तातूंत रावता. पांखुल्लांची सवी जोडी शंखाक घट्ट धरता आनी पोट शंखांत घट्ट बसता. कुडीची पुराय वाड जातकच ही कुल्ली पोरनो शंख सोडून आपल्या आकारमानाप्रमाण नवो शंख सोदून काडटा आनी तातूंत रावता. हे कुल्लेचें पोट शंखांत आसता आनी तकली भायर आसता. ही कुल्ली जाय तेन्ना तकली भितर

ओडून घेता आनी शंखाचें दार नाखटान बंद करता. भक्ष्य धरप, दुस्मानाचेर झडप घालप आनी आपली राखण करून घेवप हें नाखटांच्या दांग्यांचें काम जावन आसा. शंखवासी कुल्लेच्या शंखाच्या भायल्या भागार स्पंज, हायड्रॉइट वा दर्यांतले वनस्पतीची खूब वाड जाल्ली आसता. शंखवासी कुल्ली, हे सगळे प्राणी आपले राखणेखातीर पोसता. कुल्लेच्या अन्नांतलो कांय वांटो तांकां मेळटा आनी ते प्राणी कुल्लेची दुस्मानापसून राखण करतात.

उश्ण कटिबंधांतल्यो 'सीनोबॉयटिडी' कुळांतल्यो शंखवासी कुल्ल्यो खूबदां दर्यापसून पयस जमनीर येतात पूण परत दर्यांत धांवतात.

- कों. वि. सं. मं.

**कुवेत:** दौलत अल् कुवेत. इराणी आखाताचे वायव्येवटेन आशिल्लें राज्य. क्षेत्रफळ २४,२८० चौ. किमी. अक्षांश ४५° उदेंत, रेखांश ३०° उत्तर. लोकसंख्या १७,९१,००० (१९८६). हाचे उत्तरेवटेन आनी अस्तंतेवटेन इराक, अस्तंत आनी दक्षिणेवटेन साउदी अरेबिया जाल्यार उदेंतेक इराणचें आखात आसा. दक्षिणेवटेन साउदी अरेबिया आनी कुवेत हांचेमदीं सुमार ५,७०० चौ. किमी. चो तटस्थ वाठार आसा, पूण थंयच्या सैमीक संपत्तीचेर दोगांयचो हक्क आसा. मसकन, औहा, अल् वर्बा; अल् केल्बर, उम्म अल्-मरादिम, उम्म अल् नामी कारु, बुबियान, फायलाका ह्या जुंव्यांचो कुवेतांत आस्पाव जाता. पूण फायलाका ह्या एकाच जुंव्याचेर मनशांचो राबितो आसा.




**भूंयवर्णनः** रेंव आनी चिखलान भरिल्ली कुवतेची भूंय वाळवंटाभशेन आसा. एक लांब दोंगुल्ली अल् अहमदीसावन (उंचाय ११२ मी.) नैर्ऋत्य वाठारामेरेन (उंचाय २७४ मी.) पातळ्ळ्या. उंचायेचे नदरेन समुद्रथरासावन दक्षिण तोंकामेरेनचो वाठार सुमार १००० मी. ऊंच आसा. हेर कडेन दर्यादिगांचेर खारी चिखलाची भूंय आसा. ह्या देशांत न्हंयो नात.

**वनस्पत, मोनजात आनी हवामानः** कुवेत शार आनी ताचे भोंवतणचो कांय वाठार सोडल्यार हांगा हेरकडेन पाचवेपणाची सुलूस लेगीत मेळप कठीण. हांगाची वनस्पत म्हळ्यार ल्हानसान झोंपां आनी कांट्यांचे मोटवे रुख. वसंत ऋतूंत कांयकडेन तण दिश्टी पडटा. चिखलाच्या वाठारांनी खारे हवेंत वाडपी कांय वनस्पत आसा. मोनजात तर थळावी अशी ना. गिमाच्या दिसांनी तापमान सुमार ४२° से. आसता. ह्या दिसंनी वायव्येवटेंतल्यान येवपी 'शमल' वारें वातावरणांत थंडसाण हाडटा. गीम सामकोच सुको आसलो, तरी ऑगस्ट-सप्टेंबर म्हयन्यांत ओलसाणीचें (humidity) प्रमाण ९०% आसता. शिंयाळ्यांत हवामान बरें आसता. गिमाच्या दिसांनी चडांत चड तापमान जरी ५२° सें. ते ७४° से. मेरेन पावलें तरी शिंयाळ्यांत तें उणें जाता. कांय भितरल्या वठारांनी तर तें हिम पडपाच्या लागीं आसता. शिंयाळ्यांत वादळांक लागून सुमार २.५ सेंमी. ते १७ सेंमी. मेरेन पावस पडटा.

**इतिहासः** इ.स. पयलीं ५२५ त, कुवेताचे भारताकडेन वेपारी संबंद आशिल्ले अशें फायलाका जुंव्याचेर जाल्ल्या पुराणवस्तु संशोधनावेल्यान दिसता. त्या उपरांतच्या इतिहासांत सातव्या शेंकड्यांत पैगंबराचे मुस्तींत इस्लामचो स्वीकार, १७१६ त अरबी अनीज लोकांचो दर्यादिगांचेर राबितो आनी १७५६ वर्सा अल् सबाह घराण्यांतल्या मनशाची सुलतानाच्या पदार मान्यताय ह्यो म्हत्वाच्यो घडणुको आसात. हेंच घराणें आयजमेरेन राज्य करता. शेख अब्दुल्ला अल सबाह (१८६६-९२) हाचे राजवटींत अल् रशीद आनी अल् सोद हांचेमदीं झगडीं जालीं. तुर्कस्थानान अल् रशीदाक फाटबळ दिवन कुवेत आपले सत्तेखाला हाडपाचे यत्न केले. १८९९ त तुर्कस्थानच्या भयान कुवेतान ब्रिटनावांगडा कबलात केली. हे कबलातीक लागून दुस्मानांच्यो घुरयो सोंपल्यो. १९१४ त ब्रिटीश राखणेखाल कुवेत एक स्वतंत्र राज्य म्हूण घोशणा जाली. १९६१ त पोरनी, १८९९ तली कबलात सोंपली आनी कुवेत पुरायपणान मुक्त जालें. ह्या वेळार इराकान कुवेताचेर घुरी घाली आनी ताचेर आपलो हक्क सांगलो. ब्रिटीश आनी उपरांत अरब लीगच्या सैन्यान कुवेताक पालव दिलो आनी इराकाक १९६३ त कुवेताचें स्वतंत्र अस्तित्व मान्य करचें पडलें. १९६२ त हांगा नवें संविधान लागू जालें. १९६३ त कुवेत संयुक्त राश्ट्रसंघाचो वांगडी जालो. १९६५ त हांगाचो सुलतान अमीर अब्दुल्ला हाका मरण आयलें आनी शेख सबाह हो अमीर जालो. कुवेत आनी साउदी अरेबिया हांचेमदीं आशिल्ले भुंयेक तटस्थ वाठार म्हूण १९६९ त मान्यताय मेळ्ळी. १९७७ त कुवेतान रशियाकडल्यान नवीं शस्त्रां घेतलीं आनी १९७९ त हांगाच्या आयातोल्ला खोमेनीच्या राजदूताक तांणी देशाभायर धांवडायलो. १९९० त, कुवेत आपलें तेल चोरता असो आरोप करून इराकान ताचेर घुरी घाली आनी ह्या देशाक आपल्या देशाभितर आस्पावन घेतलो. निमणें संयुक्त राश्ट्रसंघाच्या फुडारपणाखाल संवसारांतल्या बऱ्याच देशांनी कुवेत देशाची १९९१ त मुक्तताय केली.

**राज्यवेवस्थाः** १९६२ तल्या संविधानाप्रमाण कुवेत हें एक स्वतंत्र सार्वभौम राश्ट्र आसा. हांगाचो अमीर सबाह घराण्यांतलोच आसचो पडटा. अमीर पंतप्रधान आनी मंत्रीमंडळाच्या पालवान राज्यकारभार चलयता. कुवेतांत जल्म घेतिल्ल्या शिक्षीत आनी २१ वर्सां पुराय जाल्ल्या दरेक दादल्याक मतदानाचो हक्क आसा. बायलांक मत दिवपाचो अधिकार ना. अमीर हो हांगाचो सगळ्यांत उंचेल्या पांवड्यावेल्या अधिकारांचो धनी आसता. देशाचीं राखणेदळां ताच्या हाताखाल आसतात. राश्ट्रीय सभेखातीर वेंचणूक लडयतल्याक ३० वर्सां पुराय जावचीं पडटात. थळावो राज्यकारभार ३ प्रांतांतल्यान चलता. हांगा राजकी पक्षांचेर बंदी आसा. वेंचणूक लडयतले सगळे उमेदवार स्वतंत्रपणान उबे रावतात. ह्या देशांत आशिल्ले एकाधिकारशायेक लागून हांगा थीर सरकार आसा. मंत्रीमंडळांत बदल जावप, राजकी मळार गोंदळ जावप ह्यो गजाली चडश्यो घडूंक पावनात. न्यायवेवस्थेप्रमाण हांगा गुन्यांवकारांक खर ख्यास्त जाता.

**अर्थीक स्थितीः** दर्यांतल्यान मोतयां काडप आनी उंट पोसप हो हांगाचो पोरनो धंदो. सैमिक तेल आनी वायूच्या सोदाउपरांत हे पोरने धंदे सामकेच उण्या म्हत्वाचे थारले. जगांतले वट्ट तेल साठ्वणींतली १६.५% सांठ्वण हांगा आसा. शेतवडीच्या मळार कुवेताचो क्रमांक जगांत निमाणो आसा. हेर सैमीक उत्पादनांय हांगा सांपडनात. फकत तेल आनी वायू हे हांगाचे अर्थवेवस्थेचे मुखेल आदार आसात. हांगासावन जगांतल्या चडश्या देशांक तेलाची निर्यात जाता. तेलाच्या उत्पादनाक लागून कुवेत जगांतलो एक गिरेस्त देश जालो. अरबस्थानांतल्या हेर

राश्ट्रांमदीय कुवेत अर्थीक नदरेन चड फुडारला. तेलाच्या धंद्याक आदार दिवचेखातीर हांगा हेर उद्योगधंद्याची उबारणी जाल्या. चडश्यो गरजेच्यो वस्तू, वाहनां ह्या सारक्या गजालींची व्हडा प्रमाणांत आयात जाता. आयत-निर्यातीचे वेव्हार संवसारांतल्या फुडारिल्ल्या राश्ट्रांकडेन चड जातात. पर्यटनांतल्यान ह्या देशाक कांयच उत्पन्न मेळना. १९६१ मेरेन भारतीय रुपया हें हांगाचें चलनी नाणें आशिल्लें. सद्याक ताची सुवात कुवेती दिनारान घेतल्या. 'नॅशनल बँक ऑफ कुवेत' ही हांगाची सगळ्यांत व्हडली वेवसायीक बँक जावन आसा.

**येरादारी आनी संचारणः** कुवेतांत रेल्वेमार्ग नात. शुवैख हें हांगाचें मुखेल बंदर. शुअैबा हांगाय एक बंदर आसा. मीना अल्-अलमदी हें हांगाचें तेलाचें बंदर जगांतलें सगळ्यांत व्हडलें अशें मानतात. देशांभितर उदकांतले येरादारीची वेवस्था ना. १९८४ मेरेन हांगा १,२०८ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. जॉर्डन, साउदी अरेबिया आनी कुवेत हांकां जोडपी रस्त्यांवेल्यान बरीच येरादारी जाता. 'कुवेत एअरवेज कॉर्पोरेशन' ही हांगाची विमानकंपनी. कुवेत शारांत मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. टेलिफोन सेवेविशीं कुवेत फुडारिल्ल्या देशांवांगडा सर्त करता. हांगासावन ५ अरबी भाशेंतलीं खबरांपत्रां उजवाडाक येतात. तेभायर २ इंग्लीश खबरांपत्रां आसात. 'अल्-कबस' हें मुखल अरबी खबरांपत्र जाल्यार 'अरब टायम्स' हें मुखेल इंग्लिश खबरांपत्र जावन आसा. रेडिओ आनी टी. व्ही. वेल्यो कार्यावळी अरबी आनी कांय प्रमाणांत इंग्लीश भाशेंतल्यान जाता. प्रसारमाध्यमांचेर पुरायपणान सरकाराचें नियंत्रण आसता.

**लोक आनी समाजजीणः** हांगाचे चडशे लोक शारांच्या वाठारांनी रावतात. अरबी वंशाचे हे लोक चडशे सुन्नी आनी शिया मुसलमान पंथांचे आसात. हेभायर अमेरिका, भारत, पाकिस्तान, हेर आशियाई आनी युरोपीय देशांतले लोक हांगा येवन रावल्यात. थळावी भाशा अरबी आसली तरी इंग्लीश भाशेचोय बरोच उपेग जाता. इराणी आनी आफ्रिकन वंशाचे अल्पसंख्य लोक हांगा आसात. किरिस्तांव धर्माचे लोक कांय प्रमाणांत आसात. मुसलमान धर्माचे सण आनी उत्सव हांगा मनयतात. पोरन्या विचारांच्या हांगांच्या लोकांची विचारसरणी सद्याक बदलत गेल्या आनी हांगाचे अर्थीक आनी उद्येगीक उदरगतीचो परिणाम म्हूण अस्तंतेकडले विचारसरणेचो प्रभाव ह्या लोकांचेर कांय प्रमाणांत जाला. भारतासारक्या देशांतल्यान कामधंद्याक लागून येवन राविल्ल्या, लोकांनी हांगाच्या समाजाकडेन भरसतना आपलें वेगळें अस्तित्व तिगवन दवरलां.

**शिक्षणः** कुवेताचें राश्ट्रीय साक्षरता प्रमाण ५५% आसा. शिक्षणाच्या मळार संवसारांत ह्या देशाचो नंबर ७० वो लागता. हांगा शिक्षणाच्या मळार बरीच उदरगत जाल्या. तात्त्विक नदरेन शिक्षण, फुकट सक्तीचें आनी एक सारकें आसता. मुळाव्या पांवड्यासावन महाविद्यालयामेरेन विद्यार्थ्यांक अन्न, पुस्तकां, गणवेस, येरादारीची सोय ह्या सारक्यो गजाली सरकार फुकट दिता. भायल्या देशांतल्यान बरेच विद्यार्थी ह्या सवलतींक लागून कुवेतांत शिक्षण घेवपाखातीर येतात.

सप्टेंबर ते मे मेरेन शिक्षणीक वर्स आसता. शिक्षणाचें माध्यम अरबी आसलें तरी इंग्लीश ही दुसरी भास म्हूण शिकयतात. १२ वर्सांचे शिक्षण शाळेंतल्यान जाता. चले आनी चलयांखातीर वेगळ्यो शाळा आसात. हांगा खाजगी संस्थांनी आनी भारतीय, पाकिस्तानी, ब्रिटीश, अमेरिकन संस्थांनी चलयल्ल्यो शिक्षण संस्थाय आसात. शिक्षणाचेर सरकाराचें नियंत्रण आसता. मध्य उदेंत वाठारांतलें मुखेल विश्वविद्यालय म्हूण कुवेत विश्वविद्यालयान नामना मेळयल्या. उंचेल्या पांवड्यावेलें शिक्षण घेवपापासत हेर देशांनी वचपी विद्यार्थ्यांकय सरकार पालव दिता.

**म्हत्वाचीं थळां:** हवाली, अस्- सलीमीयाह, अल्-जहरा, कुवेत शार हीं राजधानी आनी अल् फरवानियाह हीं हांगाचीं मुखेल शारां जावन आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**कुष्ठरोग, (Leprosy):**(पळेयात कात-२) .

**कुस्ती (खुस्ती):** प्रतिस्पर्ध्याक भिडून ताका शक्तीन आनी युक्तीन हरोवपाची करामत करपी खेळ. कुस्ती हो शब्द 'कुश्ती' ह्या फार्सी शब्दावेल्यान आयला. फारशी भाशेंत 'कुश्त' म्हळ्यार जिवानशी मारप वा कातरून मारप. कुस्तीच्या खेळांत आंगाक आंग भिडोवन पागडी घालून वा पांय घालून प्रतिस्पर्ध्याक हरोवपाचो आशिल्ल्यान कुस्तीक मल्लयुध्द, आंगयुध्द वा भुजायुध्द अशेंय म्हण्टात. आदल्या काळांत इराण देशांत द्वंद्वयुध्द जातालें तेन्ना हे युध्दगडे आपल्या कमराक एक पट्टी वा दोरी बांदताले, तिका 'कुस्ती' हें नांव आशिल्लें. हे पट्टेक वा दोरयेक धरून जें द्वंद्वयुध्द खेळटालें त्या युध्दाच्या झुजाक 'कुस्ती' अशें म्हण्टाले.

आत्मसंरक्षणाखातीर मनशाक मोनजातीवांगडा झूज दिवपाचो प्रसंग मनशाच्या इतिहासांत खूबदां आयला. अशा वेळार शक्त आनी शक्तीपरस श्रेश्ठ अशी युक्ती ह्या दोगांचोच उपेग करून मनशान असले प्रसंग निभावन व्हेल्यात. हातूंतल्यानूच कुस्तीचो उगम जाला जावंये. तेभायर ल्हान प्राणी व्हड प्राण्यांचेर युक्तीच्या आदारान कशें जैत जोडटात, हें ताणें पळेल्लें आशिल्ल्यानूच कुस्तीची कल्पना ताका आयल्या जावंये. काळांतरान मनशांमनशांमदीं जेन्ना झुजाचे प्रसंग आयले तेन्ना शक्त आनी युक्ती हांचो संगम जाल्या कुस्तीचो वापर मनशान केल्लो दिश्टी पडटा. उपरांत, कुस्तीक जागतिक विद्येचें स्वरुप प्राप्त जालें आनी तिचें स्वतंत्र अशें शास्त्र जायत गेलें.



**इतिहासः** मल्लयुध्द वा कुस्ती हो खेळ खूब पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयला. दोन कुस्तीगीर एकामेकांक पागडी घालून खेळटात, असो सुमार ५००० वर्सांआदलो एक पुतळो इराक देशांत सांपडला. इ. स. प. सुमार ३००० वर्सांआदल्या ईजिप्त देशांतले नाइल न्हंयेकडल्या बेनीहसन हांगाचे मशिदीचे वण्टींचेर केल्ल्या कोरीवकामांत कुस्तीच्या डावपेचांचे शेंकड्यांनी देखाव पळोवपाक मेळटात. पूर्विल्ल्या ग्रीक साहित्यांत मल्लयुध्दाचो उल्लेख आयला. होमरच्या 'इलिअड' ह्या नामनेच्या महाकाव्यांत अॅजेक्स आनी ओडिसियस हांचेमदीं जाल्ले कुस्तीचो उल्लेख आसा. ग्रीक संस्कृतायेंत सुरू जाल्या ऑलिंपिक खेळांसर्तींत मल्लयुध्दाचो आस्पाव केल्लो. पायथॅगोरस ह्या नामनेच्या ग्रीक तत्त्ववेत्त्याचो शिश्य मिलो हाणें मल्लयुध्दांत व्हडलो पराक्रम केल्लो. ऑलिंपिक खेळांत ताणें एकार एक स खेपे कुस्तीचें वस्तादपण मेळयिल्लें. प्रतिस्पर्ध्याक मुठी मारून, शेंवटून, जखमी करून हरोवपाच्या 'पॅंक्रेशियन'

हे कुस्तीपध्दतींत ग्रीक लोकांनी बरेंच नांव मेळयिल्लें. हे कुस्तीचो आस्पाव सुर्वेक ऑलिंपिक खेळांत जातालो पूण फुडें तातूंत बदल जायत गेले आनी सादी निरुपद्रवी कुस्ती आयली.

भारतांत वैदिक साहित्यांत तशेंच रामायण, महाभारत ह्या ग्रंथांत मल्लविद्येचो उल्लेख आयला. किष्किंधा नगरांत वाली आनी सुग्रीव हांचे मजगतीं जाल्ल्या मल्लयुध्दांत वालीन सुग्रीवाक हरयलो, अशें वर्णन रामायणांत आयलां. कृष्ण, बलराम आनी भीम हे मल्लविद्येंत कुशळ आशिल्ले, अशे उल्लेख महाभारतांत आयल्यात. कृष्णान मुष्टिक आनी चाणूर ह्या कंसाच्या दरबारांतल्या मल्लांक मल्लयुध्दांत हरोवन निमाणो कंसाकूय मारलो. पांडव अज्ञातवासांत आसतना भीमान जीमूत नांवाच्या मल्लाक मल्लयुध्दांत जिवेशीं मारलो आनी फुडें कीचक आनी जरासंध हांकांय मारले.

आदल्या काळांत भारतांत हेर शिक्षणावांगडाच व्यायाम आनी मल्लयुध्द हांच्या शिक्षणाचेर भर दिताले. मध्ययुगांतल्या काळांत कितलेशेच हिंदू राजा, सरदार आनी मुस्लिम नबाब हांच्या आलाशिन्याक जायते कुस्तीगीर आनी मल्ल आसताले. जात्रांनी आनी हेर दबाज्यांच्या निमतान गांवांगांवांनी तांचे कुस्तीचे खास कार्यक्रम आसताले. मोगल बादशहांच्या काळांत कुस्तीक राजाश्रय मेळिल्लो. विजयनगरचो नांवाजल्लो हिंदू राजा कृष्णदेवराय हाच्या दरबारांत मल्लांच्यो कुस्त्यो सदांच जाताल्यो, असो उल्लेख एका पोर्तुगेज वकिलाच्या बरपांत मेळटा. दौलतराव सिंधियाचे सैनिक मल्लविद्येंत कुशळ आशिल्ले अशें वर्णन टॉमस ब्राउटन नांवाच्या इंग्लीश सैनिक अधिकाऱ्यान केलां. महाराष्ट्रांत शिवाजीच्या काळांत आनी तेउपरांत पेशव्यांच्या काळांत नामनेच्या कुस्तीगीरांक राजाश्रय मेळिल्लो. व्हडलो बाजीराव आनी सदाशिवरावभाऊ हे मल्लविद्येचे बऱ्यापैकीं जाणकार आशिल्ले. पेशव्यांचे मुस्तींत कांय बायलां लेगीत मल्लविद्येंत वांटो घेतालीं, अशे उल्लेख मेळटात. दुसऱ्या बाजीरावाच्या दरबारांत बाळंभटदादा देवधर नांवाचो तरनाटो कुस्तीगीर आनी मल्लखांबपटू आशिल्लो. ताणें निजामाच्या दरबारांतल्यान आयिल्ल्या दोन मल्लांचें आव्हान स्वीकारून तांकां हरयल्ले. मल्लखांब हो कुस्तीचो अभ्यास करपाक कसो पोशक आसा, हें ताणेंच दाखोवन दिलें. तेन्नासावन पकडा, डंक्या, चाप, मुरडी ह्या कुस्तीप्रकारांची जोडीदाराबगर तयारी करपाखातीर मल्लखांबाचो खास उपेग जावपाक लागलो. जातक ग्रंथांतूय कुस्तीचें वर्णन आयलां. तातूंत आखाडो, लोकांक बसपाखातीर केल्ली सुवात, थंयची सजावट, मल्लयुध्द हांचेविशीं विस्तारान म्हायती आयल्या. त्या काळांत बायलां लेगीत मल्लविद्येंत कुशळताय जोडटालीं, अशें विनयपिटकांत म्हळां.

मंगोलिया, चीन, जपान ह्या उदेंतेकडल्या राश्ट्रांत लेगीत कुस्तीचे इ. स. प. काळांतले उल्लेख मेळटात. ह्या देशांच्या धर्मीक दबाज्यांत मल्लयुध्दाचो आस्पाव आसतालो. जपानांत इ. स. प. २३ त वस्तादपण जोडिल्ल्या साकुने ह्या मल्लाक 'मल्लविद्येचो देव' अशें मानतात. जपानांत इ.स. आठव्या शेंकड्यांत शोनू ह्या बादशहान कापणेच्या हंगामांत कुल्त्यांचो हंगाम दवरपाची प्रथा सुरू केली आनी तेन्नासावन कुस्तीचो खेळ लोकप्रित जायत गेलो. ताच्याच नांवावेल्यान फुडें 'सुमो' नांवाची कुस्तीपध्दत सुरू जाली. मध्ययुगांतल्या इंग्लंडांत सॅक्सन आनी केल्टिक लोकांनी मल्लयुध्दाचो प्रचार सगळ्याक पातळायलो. त्या काळांत मल्लविद्येक राजाश्रय आशिल्लो. आठवो हेन्री हो स्वता ताकदीचो कुस्तीगीर आशिल्लो, अशें म्हण्टात. ते उपरांत इंग्लंडच्या वेगवेगळ्या वाठारांत मल्लयुध्दाच्यो वेगवेगळ्यो पध्दती रुढ जायत गेल्यो आनी तांकां तांच्या प्रांतीय खाशेलपणाप्रमाण वेगवेगळीं नांवां प्राप्त जालीं. आर्विल्ल्या ऑलिंपिक खेळांसर्तींत ग्रीको-रोमन आनी फ्री-स्टाइल ह्या दोन कुस्तीपध्दतींचो आस्पाव केला.

**उद्देशः** धश्टपुश्ट कुडीचे ताकदीन आनी ताच्यापरसूय श्रेष्ठ अशे युक्तीन प्रतिस्पर्ध्याक हरोवप हो मल्लयुध्दाचो मुखेल उद्देश जावन आसा. मल्लयुध्दाची तयारी करपाखातीर वेगवेगळे तरेचे व्यायाम नेमान करून कूड काटक आनी बळिश्ट करून आत्मविश्वास वाडोवचो पडटा. सशक्त कुडीखातीर व्यायाम, आहार, ब्रह्मचर्य, सदाचार हांचें पालन करचें पडटा.

**वेगवेगळ्यो पध्दतीः** वेगवेगळ्या राश्ट्रांनी कुस्त्यांच्यो वेगवेगळ्यो पध्दती प्रचलित आसल्यो, तरी तांचीं मुळावीं तत्त्वां सादारणपणान सारकींच आसात. भारतीय कुस्त्यांचे चार मुखेल प्रकार आसात, ते अशेः

*१. हनुमंती कुस्तीः* प्रतिस्पर्धी शरीरान आनी बळान व्हडलो आसलो, तरी ताचेर बुद्दीच्या आनी युक्तीच्या नेटाचेर जैत मेळोवपाचो प्रकार. 'शक्तीपरस युक्ती श्रेश्ठ' ह्या तत्त्वाचेर आदारिल्ल्या ह्या कुस्तीप्रकाराचे डावपेच रामायणकाळांतलो हनुमान हाणें तयार केले, म्हूण ह्या प्रकाराक 'हनुमंती कुस्ती' अशें म्हण्टात.

*२. भीमसेनी कुस्तीः* फकत कुडीच्या बळाचेर प्रतिस्पर्ध्याक हरोवपाचे डावपेच आशिल्लो कुस्तीप्रकार. महाभारतांतलो भीम, हो कुस्तीप्रकार खेळपाक कुशळ आशिल्लो. आपल्या प्रचंड ताकदीचेर ताणें जीमूत, कीचक, बकादूर, जरासंध हांकां मारले. ताचेवेल्यान ह्या कुस्तीप्रकाराक 'भीमसेनी कुस्ती' अशें नांव पडलें.

*३. जांबुवंती कुस्तीः* प्रतिस्पर्ध्याक हरयनासतना वेगवेगळे डावपेच रचून, ताचे हातपांय बांदून ताका ताब्यांत घेवप आनी शरण येवपाक भाग पाडप, ह्या कुस्तीप्रकाराक 'जांबुवंती कुस्ती' अशें म्हण्टात.

*४. जरासंधी कुस्तीः* प्रतिस्पर्ध्याक वेगवेगळ्या जीवघेण्या डावपेचांनी जखमी करप, ह्या कुस्तीप्रकाराक 'जरासंधी कुस्ती' अशें म्हण्टात. महाभारतांत भीम आनी जरासंध हांचे मजगतीं जाल्ल्या मल्लयुध्दांत भीमान जरासंधाचे दोनूय पांय पेंचून ताका जिवानशी मारलो, ह्या प्रसंगावेल्यान ह्या कुस्तीप्रकाराक 'जरासंधी कुस्ती' अशें म्हण्टात.

काळांतरान, वयल्या चारुय प्रकारांनी कुडीक मार बसता अशा डावपेचांचेर बंदी आयली आनी कुस्तीक खेळाचें स्वरुप आयलें. सद्या भारतांत हनुमंती, भीमसेनी, जांबुवंती ह्या प्रकारांतल्या निरुपद्रवी डावपेचांची भरसण आशिल्लो कुस्तीप्रकार प्रचारांत आसा.

**संवसारांतले कांय मुखेल कुस्तीप्रकारः** हालींच्या काळांत आदल्या ऑलिंपिक खेळांचें पुनरुज्जीवन जाल्ल्यान आनी तातूंत मल्लयुध्द खेळाचो आस्पाव केल्यान मल्लविद्येक संवसारीक मान्यताय मेळ्ळ्या. आंतरराश्ट्रीय मल्ल वा जगज्जेता मल्ल जावपाचो हावेस बाळगुपी कितल्याशाच युध्दगड्यांभितर दिसानदीस सर्त वाडत आसा. कांय लोकप्रिय अस्तंती कुस्तीप्रकार अशेः

**१. ग्रीको-रोमन पध्दतः** ही पध्दत मूळ ग्रीक आनी रोमन काळासावन चलत आयल्या. पूण युरोपांतल्या इंग्लंड, फ्रांस ह्या देशांतल्या पध्दतींचो प्रभाव ताचेर पडिल्ल्यान तातूंत बरोच बदल घडून आयला. इंग्लंडांत इ. स. १८७० त ही पध्दत सुरू जाली. प्रतिस्पर्ध्याचीं दोनूय भुजां जमनीक एकाच वेळा तेंकयता तो गडी ही कुस्ती जिखता. हे पध्दतींत कमरेसकयल खोंट मारपाक मनाय आसा. तशेंच बोटां बांदप आनी पांयांनी आक्रमक क्रिया करपाकूय बंदी आशिल्ल्यान ही कुस्ती चडशी जमनीचेरूच चलता. संवसारीक ऑलिंपिक खेळासर्तींत हे पध्दतीचो आस्पाव जाल्ल्यान तिका संवसारीक म्हत्व प्राप्त जालां. 'नेकहोल्ड', 'फ्लाईंग मेअर', 'टो होल्ड' हे ग्रीको-रोमन पध्दतींतले मुखेल डावपेच जावन आसात. हातूंत वजनाचे सादारणपणान ८ गट आसतात.

**२. फ्री-स्टाइल पध्दतः** हे पध्दतीक 'कॅच-ॲज-कॅच-कॅन' अशेंय नांव आसा. हे पध्दतींत कसलेय तरेचे पकडी डावपेच केरपाक मेकळीक आशिल्ल्यान ही पध्दत खूब लोकप्रिय आसा. फकत गळो दामप, अवयवाक मार बसतलो अशी पागडी मारप, खोंटो मारप, मुठी मारप आनी प्रतिस्पर्ध्याचे कपडे ओडप ह्या प्रकारांक मनाय आसा. हे पध्दतींत तीन-तीन मिनटांच्यो तीन पाळयो आसतात. तितल्या वेळाभितर प्रतिस्पर्ध्याचीं दोनूय भुजां एकाच वेळा जमनीक तेंकयलीं जाल्यार तो हरलो, अशें समजतात. ही कुस्ती सुमार ६ मी. लांब, ६ मी. रुंद आनी १० सेंमी. ऊंच गादयेचेर खेळटात. 'हाफ-नेल्सन', 'डबल-नेल्सन', 'क्रच

होल्ड' हे कुस्तीचे मुखेल डावपेच आसात. हे पध्दतीचो आस्पाव संवसारीक ऑलिंपिक खेळांसर्तींत जाला. ही कुस्ती सादारणपणान समान वजनाच्या कुस्तीगीरांमदीं जाता. हातूंत वजनाचे ९ गट आसातः लायट फ्लायवेट (१०५.५ पाउंड मेरेन), फ्लायवेट (११४.५ पाउंड मेरेन), बँटमवेट (१२५.५ पाउंड मेरेन), फेदर वेट (१३६.५ पाउंड मेरेन), लाइट वेट (१४९.५ पाउंड मेरेन), वेल्टर वेट (१६३ पाउंड मेरेन), मिडलवेट (१८०.५ पाउंड मेरेन), लाइट हेवी वेट (१९८ पाउंड मेरेन), हेवी वेट (२२० पाउंड मेरेन).

३. **कंबरलंड आनी वेस्टमूरलंड पध्दतः** हे पध्दतींत दोनूय कुस्तीगीर एकामेकांच्या हड्ड्याक हड्डें लावन आपापल्यो खाडक्यो एकामेकांच्या भुजांक तेंकोवन दोनूय हातांनी फाटींचेर एकामेकांचे हात घट आंवळून धरून कुस्तेक सुरखात करतात. प्रतिस्पर्ध्याचेर खोंटो मारपाक मनाय आसा. सुरखात केल्या त्या फाटीवयली हाताची पागडी सुटली म्हण्टकच तो गडी बाद जालो, अशें समजतात. हे कुस्तींत व्हडलोसो धोको आसना. म्हूण भुरगीं लेगीत हातूंत वांटो घेतात. ही कुस्ती खेळत आस्तना एकाद्रो गडो सकयल पडलो, जाल्यार परत उब्यांनी सुरखात करतात. पूण दोनूय खेळगडे जमनीर पडले जाल्यार पयलीं जमनीर पडपी गडो बाद जालो, अशें समजतात. हे पध्दतींत बॅक-हील, बटक, हँक, क्रॉस-बटक, औट-साइड स्ट्रोक, हाइप हे वेगवेगळे डावपेच आसात.

४. **कॉर्नवाल आनी डेव्हन पध्दतः** हे पध्दतींत खेळगडे कॅन्व्हासची बंडी घालतात आनी कमरेवयर वा बंडेक धरून डावपेच करतात. ज्या खेळगड्याचीं दोनूय भुजां आनी एक कुलो वा दोनूय कुले आनी एक भूज एकाच वेळा जमनीक तेंकता तो गडी हरलो, अशें मानतात. ही कुस्ती चड करून उब्यांनीच चलता. 'इनसाइड लॉक' आनी 'फोर-हिप' हे हातूंतले मुखेल डावपेच जावन आसात.

५. **आयरिश आनी स्कॉटिश पध्दतः** हे पध्दतींत प्रतिस्पर्ध्याचीं दोनूय भुजां एकाच वेळा जमनीक तेकयलीं म्हण्टकच तो हरलो, अशें मानतात. ही पध्दत आयर्लंड आनी स्कॉटलंडांत रुढ आसा. ही कुस्ती चडशी उब्यांनीच चलता. उत्तर आयर्लंडांत प्रतिस्पर्ध्याक जमनीर शेंवटीलो म्हण्टकच तो हरलो, अशें मानतात. हे पध्दतींतूय 'हँक', 'हाइप', 'बटक' हे वेगवेगळे डावपेच जावन आसात.

**कांय हेर कुस्तीप्रकारः** १. जुजुत्सू वा जुडो पध्दतः हो कुस्तीप्रकार मूळ चीनांतल्यान जपानांत आयलो, अशें म्हण्टात. फाटल्या दोन हजार वर्सांत जपानांत हो कुस्तीप्रकार खूब लोकप्रिय जावन विसाव्या शेंकड्यांत ताचो प्रचार जगभर जालो. फ्री-स्टाइल सारकोच हो जपानी कुस्तीप्रकार ३-४ मी. व्यासाच्या आखाड्यांत खेळटात. जो गडी आखाड्याच्या वर्तुळा भायर वता, तो हरलो अशें समजतात. तरेकवार पागड्यो (locks) आनी फेकी (throws) हांच्या डावपेचांवरवीं प्रतिस्पर्ध्याचे मनगटासारके अवयव पिळून ताच्यो रक्तवाहिनी दामून, अचकीत आनी कमी बळ वापरून प्रतिस्पर्ध्याक शरण हाडप ह्या तंत्राचेर ही कुस्ती आदारिल्ली आसा. हे कुस्तींत केंस सोडून हेर खंयचेय अवयव धरपाक मेळटा. देखून, हातूंत जखमी जावपाचो खूब संभव आसता. स्वसंरक्षणाच्या हेतान सैनिकांक कुस्तीचें प्रशिक्षण दितात.

२. 'स्विजेन' हो स्वित्झर्लंडचो राश्ट्रीय कुस्तीप्रकार. थंयच्या थंड हवामानाक लागून ही कुस्ती कपडे घालून खेळटात. हातूंत प्रतिस्पर्ध्याच्या कपड्यांक धरून डावपेच खेळटात आनी ताका उबारून आपटिल्यार तो बाद जालो, अशें मानतात.

३. आइसलँडांत 'ग्लिमा' नांवाचो एक कुस्तीप्रकार आसा. हातूंत कपड्यांचेर चामड्याचो कमरपट्टो घालतात आनी ताका धरूनूच वेगवेगळ्यो पागडी आनी फेकी करतात. हातूंत पयलीं जमनीचेर पडपी खेळगडे बाद जालो, अशें मानतात.

४. 'ऑल इन स्टाइल' ही पध्दत इ. स. १९३० सावन इंग्लंडांत रुढ जाल्या. ही कुस्ती मुष्टियुध्दाच्या आखाड्यांत खेळटात. केंस सोडून कुडीचो खंयचोय भाग कसोय धरून हातूंतले डावपेच चलतात. खेळगडे एकामेकांचेर थापट लेगीत मारुंक शकतात. ही कुस्ती उब्यांनीच जाता. मुष्टियुध्दांतल्या फेरयांप्रमाण हातूंतय फेरयो आसतात. तीन वेळा बाद जावप वा तीन वेळा चीतपट करप हाचेर निर्णय थारायतात.

५. अमेरिकेंत अस्तंत युरोपांतली फ्री-स्टाइल पध्दतीची कुस्ती खूब लोकप्रिय आसा.

हौशी आनी धंदेवाईक अशे कुस्तीगीरांचे दोन प्रकार आसात. हौशी कुस्तीगीर फकत खेळांतले मजेखातीर खेळटात. ते पयशांचे मानधन घेनात. ऑलिंपिक खेळांसारक्या संवसारीक खेळांसर्तींत फकत हौशी खेळगड्यांक प्रवेश आसता. पयशांचें मानधन घेवन कुस्ती खेळपी खेळगड्यांक धंदेवाईक कुस्तीगीर अशें म्हण्टात. धंदेवाईक कुस्तीचो प्रकार इ. स. १८७० सावन सुरू जालो.

**कुस्तीचीं साधनां, भेस आनी आखाडोः** भारतीय पध्दतींत ५×५ मी. लांबाय आनी रुंदाय आशिल्लो आनी १ मी. खोलायेचो आखाडो आसता. तातूंत ५० सेंमी. दाटायेची तांबडी माती, काव आनी गोबोर घालतात. मागीर ताचेर उदक, लिंबाचो रोस, ताक, तेल हांचो वापर करून तो मोव आनी निर्जंतुक करून घेतात. परत परत उदक मारून जमीन भुसभुशीत दवरची पडटा. विदेशी पध्दतीच्या सगळ्या कुस्तीप्रकारांक ६×६ मी. लांबाय आनी रुंदाय आशिल्लो ऊंच आखाडो आसता. ताचेर दाट काथ्याची शेंदरी (मॅट) घालतात, ताका लागून खेळगडे शेंवटले वा आपटले जाल्यार तांकां मार लागना. खेळगडे भायर वचचे न्हय म्हूण आखाड्या भोंवतणी दोरयो बांदतात.

भारतीय पध्दतींत लंगोटी आनी ताचेर घट्ट बसपी चड्डी घालतात. खेळगड्यांक खेळ सुरू जावंचे आदीं आंगांक तेल लावपाक मेळना. विदेशांत थंड हवामानाक लागून बनियान, चड्डी आनी पांयांत बूट घालून कुस्ती खेळटात. जपानी पध्दतींत सैल खोमीस आनी धोंपरामेरेन कालसांव आनी कमरपट्टो हो भेस आसता. स्विस आनी पठाणी पध्दतींतूय खोमीस, घट्ट कालसांव आनी कमरपट्टो घालतात.

**कुस्तीचे नेमः** दरेक कुस्तीपध्दतीचे स्वतंत्र अशे नेम आसतात आनी ते सगळ्या खेळगड्यांनी पाळप, हें तांचें कर्तव्य जावन आसा. नेमांचें पाळप जाता वा ना हें काम पंच पळेतात. पंच आनी सरपंच, कुस्ती चालू आसतना खेळाचेर बारीकसाणीन पाळत दवरतात आनी निमाणो कुस्तीचो निकाल लागना जाल्यार, बऱ्या कुस्तीगीराक ताचे डाव, पेच आनी पागड्यो हांचेर गुण दिवन जैतिवंत थारायतात. कुस्ती सुरू जावंचेपयलीं खेळगड्यांचें वजन काडटात आनी वजनाप्रमाण त्या त्या वजनांच्या गटांत तांकां खेळचें पडटा. ऑलिंपिकसारक्या संवसारीक खेळांत कुस्तीगीरांच्या वजनांचे आठ गट आसात. कांय सर्तींत एका गटांत वांटो घेतिल्ल्या जण एकल्या खेळगड्याक ताच्या गटांतल्या दरेका खेळगड्याकडेन खेळचें पडटा आनी हातूंत चडांत चड गूण मेळोवपी कुस्तीगीर जैतिवंत जाता. कांय सर्तींत जोडयो घालून निमाणेमेरेन जिखत वचपी दोन खेळगडे निमणे फेरयेंत पावतात आनी निमणी फेरी जिखपी खेळगडी जैतिवंत जाता. कांय पध्दतींत खेळगड्यान केल्या दोशांखातीर (bad points) ताचे (good points) उणे करतात. ताका लागून खूबदां कमी गूण मेळोवपी खेळगडो लेगीत जैतिवंत जातात. पंचांनी दिल्ले निकाल बंधनकारक मानतात.

**कुस्तीचे डावपेचः** कुस्ती हें साधनविरयत द्वंद्व आशिल्ल्यान तातूंत प्रतिस्पर्ध्याक हरोवपाखातीर विंगड विंगड डावपेच आंखचे पडटात. भारतीय पध्दतींत कुस्तीक सुरखात करतना दोनूय प्रतिस्पर्धी एकामेकांमुखार उबे रावन सलामी करतात. अस्तंती कुस्तीपध्दतींत प्रतिस्पर्धी आखाड्याच्या कोनशांत उबे रावतात. पंच तांकां मदीं आपोवन दोगांयचेय हात एकामेकांच्या हातांत दितात; मागीर पिल्लूक वाजयतकच कुस्ती सुरू जाता. प्रतिस्पर्धी वजनान जड आसल्यार खंयचे डाव करचे, तो फाटीचेर आसतना खंयचे डाव करचे, प्रतिस्पर्धी सकयल आसतना खंयचे डाव करचे, प्रतिस्पर्ध्यान केल्या डावाचेर प्रतिडाव करून आपली सोडवणूक कशी करची आनी ताचेर जैत कशें मेळोवचें,

ह्यो गजाली खूब चपळायेन करच्यो पडटात. कुस्तींतले मुखेल डावपेच अशेः १. उब्यांनी करपाचो डावपेच २. प्रतिस्पर्ध्याचेर मुखावयल्यान करपाचे डावपेच ३. बशिल्ले स्थितींत प्रतिस्पर्धी वयर वा सकयल आसतना करपाचो डावपेच ४. बशिल्ले स्थितींत एकामेकांचे दावे वा उजवे वटेन करपाचे डावपेच. तेभायर एकलंगी टांग, भितरली आनी भायली टांग, मुलतानी, धोबीपछाड, घिस्सा, लुकान, पट काडप, उखड, स्वारी, कलाजंग, हरणफास हीं कुस्तींतल्या मुखेल डावपेचांचीं नांवां आसात. दसरंग करप, डंकी वा डूब घेवप ह्यो प्रतिस्पर्ध्याचे पागडेंतल्यान सुटपाच्यो तोडी आसात.

**नामनेचे भारतीय कुस्तीगीरः** भारतीय मल्लविद्येचें व्हडपण जगाक पटोवन दिवपी जगज्जेत्या गामाचें नांव अग्रंवर जालां. इ. स. १९१० त ताणें लंडन हांगा कुस्तीचें संवसारीक वस्तादपण मेळयलें. गामाचो धाकटो भाव इमामबक्ष हो गामासारकोच नामनेचो मल्ल आशिल्लो. ह्या दोगांयच्या तोडीचो गुंगा नांवाचो पैलवानूय नांवाजिल्लो आसा. गुलाम अलिया हाणें इ. स. १९०२ त युरोपांतल्या सगळ्या नामनेच्या मल्लांक हरोवन 'रुस्तम-ए-हिंद' ही पदवी मेळयली. कल्लू अलिया आनी ताचो चलो गामा कल्लू हेय व्हड तांकीचे मल्ल आशिल्ले. अहमदबक्ष ह्या मल्लान इ. स. १९१२ त युरोपांत वचून थंयच्या मध्यमगट वजनाच्या सगळ्या नामनेच्या पैलवानांक हरयले. भारताच्या नामनेच्या वेवसायीक कुस्तीगीरांभितर दारासिंग आनी किंग कॉंग हांचीं नांवां घेतात. सद्याचे नामनेचे भारतीय कुस्तीगीर अशेः कर्तारसिंग, युवराज पाटील, सुरेशकुमार आनी गुरुमुखसिंग.

**भारताची ऑलिंपिक खेळांतली कामगिरीः** इ. स. १९२० त सर दोराबजी टाटा हाच्या पालवान कांय कुस्तीगीर खेळगड्यांनी अँटवर्प ऑलिंपिक खेळांत वांटो घेतलो. तातूंत बडोद्याच्या शिंदेन बरो खेळ केलो. तेउपरांत इ. स. १९४८ च्या लंडन ऑलिंपिक खेळांसर्तींत भारताच्या खाशाबा जाधव हाणें फ्री-स्टाइल कुस्तीच्या फ्लायवेट गटांत दोन कुस्त्यो जिखून सवो क्रमांक मेळयलो. फुडें इ. स. १९५२ च्या हेलसिंकीच्या ऑलिंपिक खेळांत मात ताणें बँटमवेट गटांत तिसरो क्रमांक मेळोवन भारताक एकूच ब्रॉंझ पदक मेळोवन दिलें. तेच सर्तींत के. डी. माणगावे हाचो पांचवो क्रमांक लागलो. इ. स. १९५६ च्या मेलबोर्न ऑलिंपिक खेळांत भारताचो बी. सिंग हाणें एक कुस्ती जिखली. इ. स. १९६० च्या रोम हांगा जाल्ल्या खेळांत भारताचे उदयचंद, ग्यान, एस्. श्याम, महादेवसिंग हांणी आपापल्यो पयल्यो फेरयो जिखल्यो आनी सज्जनसिंग हाणें दोन फेरयो जिखल्यो, पूण फुडें तांचो प्रभाव पडलोना. इ. स. १९६४ च्या टोकिओ खेळांसर्तींत फ्री-स्टाइल कुस्तींत भारताचो विश्वंभर सवो आयलो. गणपत आंदळकर, मारुती माने, जीत सिंग, मांधोसिंग, बंडू पाटील आनी मालवा हे तिसरे आनी चवथे फेरयेमेरेन गेले पूण फुडें बाद जाले. ग्रीको-रोमन पध्दतीचे कुस्तींत विश्वंभर तिसरे फेरयेंत आनी मालवा दुसरे फेरयेंत बाद जाले. हे नवे पध्दतीच्या कुस्त्यांची व्हडलीशी संवकळ नाशिल्ल्याकारणान कांय खेळगड्यांक दुखापती जाल्यो. इ. स. १९६८ च्या मेक्सिको हांगा जाल्ल्या खेळांसर्तींत भारतीय कुस्तीगीर व्हडलेशे चमकलेनात.

**कुस्तीक चालना दिवपी उपक्रमः** कुस्तीक चालना दिवपाखातीर अखिल भारतीय पांवड्याचेर दिल्लीक १९५९ त 'इंडियन स्टाइल रेसलिंग फेडरेशन ऑफ इंडिया' हे मध्यवर्ती संस्थेची थापणूक जाली. तिचेवरवीं हिंदकेसरी पदवेखातीर जड वजनाच्या अखिल भारतीय कुस्तीगीरांच्यो खेळांसर्ती सुरू जाल्यो. पयलो हिंदकेसरी जावपाचो भोवमान महाराष्ट्रांतल्या कोल्हापूरच्या श्रीपती खंचनाळे हाणें बुत्तसिंगाक हरोवन मेळयलो. तेउपरांत गणपत आंदळकर (१९६०) आनी मारुती माने (१९६५) ह्या महाराष्ट्रीय पैलवानांनी हो भोवमान मेळयलो.

मल्लविद्येची आश्रयभूंय आशिल्ल्या महाराष्ट्रांत कोल्हापूरच्या शाहू छत्रपतीचो काळ हो मल्लविद्येचो वैभवकाळ अशें मानतात. ह्या काळांत मल्लविद्येक बरो राजाश्रय मेळ्ळो. ल्हानव्हड संस्थानिक आपल्या दरबारांत नामनेचे मल्ल दवरून घेताले. गांवांगांवांनी जात्रा, दबाजे, उरूस हांच्या निमतान कुस्त्यांचे खेळ जाताले. ह्याच काळांत नामनेचे तालीमखाने तयार जाले. कोल्हापूराक अखिल भारतीय कीर्तीचें खास कुस्तीखातीर अशें खासबाग मैदान तयार केलें. हातूंत भारतांतल्या नामनेच्या मल्लांच्यो कुस्त्यो जातात. श्रीपती खंचनाळे, गणपत आंदळकर, मारुती माने हे हिंदकेसरी पदकाचे मानकरी तशेंच खाशाबा जाधव, श्रीरंग जाधव, माणगावे मास्तर असले ऑलिंपिक खेळांसर्तींत वांटो घेतिल्ले मल्ल हेच मातयेंत तयार जाले.

महाराष्ट्रांत कुस्तीक फाटबळ दिवपाखातीर स्वातंत्र्याउपरांत पुणे तालीम पंगडान फुडाकार घेतलो आनी पैलवानांक उत्तेजन दिवपाचो नवो उपक्रम सुरू केलो. हातूंतल्यानूच फुडें 'महाराष्ट्र राज्य कुस्तीगीर परिषदे'ची निर्मिती जाली. हे परिशदेचें पयलें अधिवेशन पुणे हांगा १९५३ त भरिल्लें. हे परिशदेक महाराष्ट्र राज्य सरकाराचो पुराय पालव मेळपाक लागलो. फुडलीं अधिवेशनां मुंबय, सोलापूर, सांगली, नागपूर ह्या महाराष्ट्रांतल्या मुखेल शारांत भरत गेलीं. हेच परिशदेच्या अधिवेशनांत 'महाराष्ट्र केसरी' पदवीखातीर कुस्त्यो घेवपाचें थारायलें आनी तेचप्रमाण १९६१ त औरंगाबादच्या अधिवेशनांत कोल्हापूरच्या दिनकर दह्यारी हाका पयली 'महाराष्ट्र केसरी' ही पदवी मेळ्ळी. तेउपरांत भगवान मोरे, गणपत खेडकर हांणी हो भोवमान मेळयलो. १९६३ त सातारा हांगा जाल्ल्या अधिवेशनांत नवे कुस्तीगीर, कुस्तीशिक्षक, महाराष्ट्र केसरी पदाचे जैतिवंत-उपजैतिवंत, आदले नामनेचे कुस्तीगीर हांकां वर्सुकी मानधन दिवपाविशीं केल्ल्यो शिफारशी महाराष्ट्र सरकारान मान्य केल्यो. ह्या खेळाखातीर वावर करपी संस्थांक आतां अनुदान मेळपाक लागलां. महाराष्ट्रांतली वयर उल्लेख केल्ली संस्था 'मध्यवर्ती इंडियन-स्टाइल रेसलिंग फेडरेशना'क संलग्न आसा.

जागतिक पांवड्याच्या ऑलिंपिक खेळांसर्तींत ग्रीको-रोमन आनी फ्री-स्टाइल पध्दतींच्या कुस्त्यांनी भारतीय मल्ल खासा कामगिरी करूंक शकना. कारण ह्या कुस्त्यांचे पध्दतींत कुस्तीगीरांक बनियन, चड्डी आनी बूट घालून शेंदरेचेर (mat) कुस्ती खेळची पडटा आनी भारतीय कुस्तीगीरांक हाचो व्हडलोसो सराव ना. तशेंच ह्या कुस्तीप्रकारांनी प्रतिस्पर्ध्याक हरोवपाचे डावपेच आनी नेम भारतीयांक नवे आशिल्ल्यान तांच्या शिक्षणाची वेवस्था आतां 'नॅशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ स्पोर्टस्-' पतियाळा हांगा केल्या. कुस्तीच्या मळार बरी कामगिरी करपी कुस्तीगीरांक भारत सरकारावरवीं 'अर्जुन खेळ पुरस्कार' दितात.

- कों. वि. सं. मं.

## कुळकायदोः

ह्या कायद्यांत शेताचे आनी हेर पिकावळीचे जमनीचे, कुळ आनी भाटकार हांचेमदले नेम आनी अटी आस्पावतात.

पूर्विल्ल्या काळांत सामके अल्पसंख्य लोक, जे गिरेस्त आसले तेच चडशी जमीन भोगताले. कितल्याशाच भाटांची तांचेकडेन मालकी आसताली, देखून तांकां 'भाटकार' अशें म्हण्टाले. आपल्या शेतां-भाटांची देखरेख करपाखातीर आनी जमनीची पिकावळ काडपाचें काम ते भाटांत रावतल्यांक दिताले. शेताचें आनी झाडांचें पुराय पीक चड करून भाटकारुच भोगताले. आपल्याक भाटांत रावपाक दिवप ही काम करतल्याचे नदरेन एक व्हडली मदत जावन आसली. मागीर जसो जसो काळ बदलत गेलो, तशें भाटकारांक काम करतल्यांक कांय टक्के पिकावळ दिवप भाग पडलें. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार लोकांमदीं निर्माण जाल्ली मनशाच्या हक्कांविशींची जाणविकाय.

भाटकारांकडेन खूब जमीन आशिल्ल्याकारणान तांकां सगळे जमनीचेर नदर दवरप शक्य नाशिल्लें. कांय जाणांचीं शेतां आनी जमनी बऱ्योच पयस आसल्यो. अशे परिस्थितींत आपले जमनीचेर नदर दवरपाक आनी पिकावळ काडपाखातीर भाटकारांनी कांय लोकांक हक्क दिले. तांकां 'कुळ' हें नांव पडलें. पिकावळीचो कांय थारावीक वांटो भाटकाराक दिवचो पडटालो, ताका 'खंड' अशें म्हण्टाले. पूण इतलेंय आसून काम करपी लोक धादोस आनी संतुश्ट नासले. कित्याक तर

भाटकार चडशी पिकावळ खंड म्हूण घेतालो आनी इतलेंय आसून कसल्याय कारणाक लागून कुळाचे संबंद तोडूंक शकतालो. हाकालागून शेतकामत्यांक शेतांत काम करपाची आनी हेर पिकावळीची लागवड करपाची उमेद नासली. फकत पोटाखातीर कितेंय तरी करपाक जाय म्हूण ते शेतांत राबताले. अशे परिस्थितींत काम करपी लोकांचो आंकडो लोकसंख्येच्या सुमार ७०-८० टक्के आसलो. लोकांचो वाडटो निरुत्साह नदरेमुखार दवरून ल्हवल्हव कुळकायद्याचो जल्म जालो. भारत देशांतल्या विंगड विंगड राज्यांनी परिस्थितीप्रमाण वेगवेगळे कुळकायदे अस्तित्वांत आयले.

गोंयांत १९६४ वर्सा कुळकायदो (Agricultural Tenancy Act, 1964) संमत जालो. ह्या कायद्याचें स्वरूप थोडेभोव हेर राज्यांतल्या कुळकायद्यांभशेनूच आसा. हो कायदो शेतांक आनी माड, सुपारी, काजू आनी आंबे हांचें पीक आशिल्ले जमनीक लागू पडटा. ह्या कायद्याचीं म्हत्वाचीं कलमां अशीं:

१. ह्या कायद्याप्रमाण कुळाची कबलात ही लेखी वा तोंडी आसूंक शकता, थारावीक वा बेमुदत काळाखातीर आसूंक शकता. पूण जमनीच्या हक्काचो मोबदलो खंडाच्या स्वरुपांत दिवपाक जाय. २. जेन्ना एक मनीस कुळ वा कुळ न्हय हो प्रस्न उप्रासता, तेन्ना तो प्रस्न सोडोवपाखातीर मामलेदार कोर्टाक ह्या कायद्याप्रमाण हक्क दिल्यात. ह्या मामलेदाराची नेमणूक सरकार करता. ३. खंडाचें स्वरूप पयशानींच आसपाक जाय, अशें ना. पिकावळीचो कांय वांटो खंड म्हूण शेतकारान भाटकाराक दिवं येता. ४. हो कायदो चालीक लागचे पयलीं आशिल्ल्या कुळाचें स्वरूप पारखुपाविशींच्यो कांय म्हत्वाच्यो सुचोवण्यो ह्या कायद्यान दिल्यात. ५. जमनीच्या स्वरुपाविशीं म्हळ्यार जमीन शेताची वा शेताची न्हय ह्या प्रस्नाचेर तंटो उप्रासलो जाल्यार तोय सोडोवपाची जापसालदारकी ह्या कायद्यान मामलेदाराकडेन सोंपयल्या. ६. जर एका कुळाचे जमनीविशीं आशिल्ले हक्क भाटकार काडून घेवपाक सोदीत जाल्यार कुळ रोखडोच मामलेदार कोर्टांत वचून तात्पुरतो कोर्टाचो हुकूम (Temporary Injunction) घेवन भाटकाराक जमनीचेर हस्तक्षेप करपाक बंदी घालूंक शकता. ७. कुळाचे संबंद कायदेशीर तरेन कुळ वा भाटकारुय सोंपोवंक शकता. कुळान आपले वटेन संबंद सोंपोवपाखातीर मामलेदाराक अर्ज करपाक जाय. जर एके जमनीचीं जायतीं कुळां आसात तर तांणी सगळ्यांनी अर्ज करपाक जाय. भाटकार- कुळाचे संबंद सोंपोवंक सोदता जाल्यार ताचीं कारणां अशीं आसात: खंड वेळार फारीक करप ना, जमनीची नासाडी वा लुकसाण करप, जमनीचे हक्क दुसऱ्याक दिवप, जमनीचे वांटे करप, शेताची लागवड सोडून दुसऱ्या कामाखातीर जमनीचो उपेग करप, जमनीचो उपेग स्वता करप ना. पूण कुळाचे संबंद सोंपोवचेपयलीं भाटकारान कुळाक कमीत कमी ९० दिसांची नोटीस दिवपाक जाय. नोटीस दिवन जातकच मागीर भाटकार मामलेदाराकडेन कुळाचे संबंद सोडोवपाखातीर अर्ज करपाक शकता. ८. जर एका भाटकाराक कुळाकडेन आशिल्ली जमीन विकपाक जाय, तर ताणें पयलीं कुळाक विचारपाक जाय. ताणें कायद्याप्रमाण कुळाक ९० दिसांची एक नोटीस धाडची पडटा. कुळाक विचारीनासतना जर एक भाटकार जमीन विकपाक फुडें सरलो जाल्यार तो वेव्हार कायदेशीर जायना. नोटीस धाडटकच कुळान जमीन विकत घेवपाविशीं हयकार दिलोना जाल्यारूच मागीर भाटकार दुसऱ्या कोणाकूय ती जमीन विकपाक मेकळो आसता. ९. आनीक एक म्हत्वाची तरतूद ह्या कायद्यांत केल्या आनी ती म्हळ्यार जेन्ना एक 'कुळ' मरता, तेन्ना ताचे कुळाचे संबंद नश्ट जायनात. तर मेल्ल्या मनशाच्या वारसदारांक (Legal Heirs) कुळाचे हक्क आपसुकूच वतात. मेल्ल्या कुळाचे वारसदार कोण आनी हक्क कोणाक वचचे हाचेर तंटो उपस्थित जायत जाल्यार तो मामलेदार कोर्टांत चवकशी करून सोडोवंक मेळटा. १०. तशेंच ह्या कायद्यान कुळांचेर जमनीचे बारीक कुडके करपाक आनी पोट-कुळांचे संबंद प्रस्थापित करपाचेर बंदी घाल्या. पोट-कुळांचे संबंद घडोवन हाडपाविशींची बंदी विधवा बायलां, अपंग मनीस आनी सान पिरायेच्या भुरग्यांक (minors) लागू पडना. ११. कुळाकडेन आशिल्ली जमीन कोर्टाच्या निवाड्याखाला विकपाक वा जप्त करपाक ह्या कायद्याची बंदी आसा. १२. कुळांनी भाटकारांक दिवपाच्या खंडाविशींची एक म्हत्वाची तजवीज ह्या कायद्यांत केल्ली आसा. हो कायदो चलणुकेंत येवचे पयलीं भाटकार पिकावळीचो चडसो वांटो खंडाच्या रुपान आपणाक दवरतालो. पूण ह्या कायद्याप्रमाण पिकावळीचो चडांत चड एक षष्ठांश वांटो भाटकारान खंड म्हूण मागूं येता. कुळान हो खंड पिकावळीचो मोसम सोंपतकच ३० दिसांभितर भाटकाराक दिवपाक जाय. खंड दुडवांच्या वा पिकावळीच्या वांट्याच्या स्वरुपांत दिवपाक मेळटा. भाटकारान कुळाकडल्यान कायद्यान केल्ले तजवीजेपरस चड खंड घेतलो जाल्यार ताणें तो रोखडोच परत करपाक जाय. तेभायर कुळाक लुकसाण भरपाय मेळपाची तजवीजूय ह्या कायद्यांत केल्ली आसा. फकत खंड सोडल्यार भाटकारान कुळाकडल्यान आनी कसलोच कर, पट्टी वा भाडें घेवपाक पुराय बंदी आसा, तशेंच खंड फारीक केल्याची पावती भाटकारान कुळाक दिवपाक जाय. १३. जर कांय वायट हवामानाक लागून पिकावळ कमी जाली आनी हाकालागून सरकारान जमीन महसूली कुळांक सूट दिली तर तेच टक्केवारीप्रमाण भाटकारान कुळांक खंड दिवपाविशीं सूट दिवपाक जाय. सरकारान कुळांक पुराय सूट दिली जाल्यार तेप्रमाण भाटकारानूय कुळांक पुराय सूट दिवपाक जाय. त्या वर्साचो खंड मेळपाखातीर भाटकाराक कोर्टांत खटलो लडोवपाक बंदी आसा. अशे वायट परिस्थितींतूय जर भाटकारान कुळाकडल्यान खंड वसूल केलो जाल्यार तो कुळाक परत दिवंचो पडटा. १४. कुळाक जमनीर आशिल्ल्या झाडांविशीं सवलती: जर भाटकारान कुळकायद्याखाला पिकावळीखातीर जमीन दिल्या आनी जर कुळान शेताची जमीन सोडून उरिल्ल्या जमनीचेर झाडां रोयल्यांत, तर त्या झाडांचें उत्पन्न आनी लागवड कुळसंबंद (Tenancy) आसत मेरेन कुळाक भोगपाक मेळटा. जर कुळाकडेन आशिल्ले जमनींत झाडां आपसुकूच रुजल्यांत, तर कुळाक ह्या झाडांचें उत्पन्न मेळटा आनी उरिल्लें उत्पन्न भाटकाराक मेळटा. १५. जर कुळाकडेन आशिल्ले जमनीची कुळान आपल्या खर्चान सुदारणा केल्या, तर ते सुदारणेविशींचो खर्च भाटकारान कुळ संबंद सोंपोवच्या वेळार कुळाक दिवपाक फाव. १६. भाटकाराक विचारुन कुळान शेताच्या कामाखातीर धाकटुलें घर (Farm House) बांदपाक मेळटा. भाटकाराक विचारतकच ५० दिसांभितर ताणें संमती दिलीना जाल्यार कुळान हो प्रस्न मामलेदार कोर्टांत मांडूं येता.

कुळकायद्याखाला उप्रासपी तंटे सोडोवपाखातीर एक न्यायालय (tribunal) नेमपाची तजवीज ह्या कायद्यांत केल्ली आसा. ह्या न्यायालयाक दिवाणी कोर्टाचे सगळे हक्क आसून ताचे चडांतचड तीन सदस्य आसूंक शकतात.

गोंय राज्यांत १९६१ वर्सामेरेन पोर्तुगेज राजवट आशिल्ली. त्या काळांत चडशी जमीन 'कोमुनिदाद' नांवाचे संस्थेकडेन आसताली. कोमुनिदाद ज्या मनशांकडेन कबलात करताली ते कोमुनिदादीचे 'कुळ' जावन उरताले आनी कोमुनिदादीक खंड फारीक करताले. १९६४ वर्साचो गोंयांत संमत जाल्लो कुळकायदो कोमुनिदादीचे जमनीकूय लागू पडटा. कुळकायद्याखाला उप्रासपी तंटे सोडोवपाखातीर फकत मामलेदार, कलेक्टर, न्यायालय (tribunal) आनी सरकार हांकांच हक्क दिल्यात. ह्या मळार दिवाणी कोर्टांत वचपाक बंदी आसा. हाचें कारण म्हळ्यार दिवाणी कोर्टांत तंट्याचो निर्णय मेळपाखातीर लागपी दीर्घ काळ.

**कसता ताची जमीन** (Land to the Tillers Act): कुळकायद्याक लागून खुबश्यो जमनी कुळांकडेन उरपाक लागल्यो आनी फकत खंडाची वसुली सोडल्यार भाटकारांचो जमनीकडलो संबंद सोंपलो. हाकालागून, २० एप्रिल १९७६ ह्या दिसा गोंयांत 'कसता ताची जमीन' हो कायदो चलणुकेंत आयलो. (5th Amendment to the Agricultural Tenancy Act). ह्या नेमाप्रमाण जो 'कुळ' म्हूण भाटकाराची जमीन भोगता, तो त्या

जमनीचो धनी जाता, अशी कायद्यान ताका मान्यताय मेळ्ळी. पूण हो कायदो गोंयांतल्या ज्युडिशियल कमिशनर कोर्टान भायर उडयलो. ह्या कोर्टाच्या निकालाआड गोंयच्या कुळांनी सद्या भारताच्या सर्वोच्च न्यायालयांत (Supreme Court) अर्ज केला आनी ताचेर अजून सुनावणी जावपाची आसा.

ह्या कुळकायद्याचो आदार मेळिल्ल्यान बऱ्याच कसपी लोकांक आदार मेळूंक पावलो. हो कायदो चालीक लागचेपयलीं तांच्या कश्टांचो चडसो वांटो भाटकाराक पावतालो. आतां तो कसतल्यांक मेळूंक लागलो. तेभायर कसता ते जमनीचो मालकी हक्क मेळूंक पाविल्ल्यान मानसशास्त्रीय नदरेन आंतरिक स्वतंत्रताय मेळ्ळी आनी तेवरवीं कसपाची उमेद वाडून पिकावळीच्या उत्पन्नांत भर पडपाची शक्यताय निर्माण जाली. पूण त्याच वांगडा कांय आळशी कुळांविशीं ह्या कुळकायद्यांवरवीं मेळिल्ल्या आदाराचो विपरित परिणाम जावपाची शक्यताय निर्माण जाल्या. कुळकायद्याप्रमाण पिकावळीचो फकत एक षष्ठांश वांटो खंड म्हूण भाटकाराक आनी पांच षष्ठांश वांटो कसतल्याक मेळपाची तजवीज जाल्यान कसपाकडेन दुर्लक्ष जावपाची शक्यताय आसा. हाचेर उपाय म्हूण जमनीच्या कसाप्रमाण ताका लागपी उदक, सारें, हवामान हांचेप्रमाण थारावीक जमनीचें थारावीक अशें उत्पन्न सादारण परिस्थितींत घेवपाक जाय अशा दंडकाचो आस्पाव कुळकायद्यांत करप शक्य आसा काय कितें, हाचेर विचार जावपाची गरज आसा.

- ॲड. अमोल थळी

**कुळीदः** (मराठी-कुळीथ, हुलगा, कुळथी; हिंदी-कुलथी; गुजराती-कुलीत; कन्नड-हुरूळी; संस्कृत-कुलीथक; इंग्लीश-हॉर्स ग्रॅम, मद्रास ग्रॅम; लॅटीन- डॉलिकॉस बायफ्लोरस; कूळ-लेग्युमिनोजी; उपकूळ-पॅपिलिऑनेटी).

ही सांगो येवपी वाल उश्ण कटिबंध वाठारांत दिश्टी पडटा. ही वाल सुमार एक वर्सभर उरता. तिका ल्हान, हळडुवीं फुलां येतात. तशेंच लांब आनी वांकड्यो सांगो जातात, तांचेभितर पांच ते स पिंगश्यो, तांबश्यो वा काळ्यो बियो (कुळीद) आसतात. कुळदाचें पीक चड करून दक्षिण भारतांत काडटात.

**लागवडः** हें पावसाळी पीक सादे प्रतीचे, काळें, रेंवट आनी फांतराळ जमनींत पिकयतात. जमीन बरी नांगरून तातूंत दर हेक्टराक ५,००० ते ६,००० किग्रॅ. शेण वा कंपोस्ट २५ नायट्रोजन आनी ५० किग्रॅ. फॉस्फरस सारें घालतात. उपरांत, पिकाच्या दोन वळींनी ३० सेंमी. अंतर दवरून हेक्टरांत २५ ते ३० किग्रॅ. बीं रोयतात. ही वाल जमनीचेर पातळटा आनी जमनींतली ओलसाण तिगोवन धरता. फुडें पानां पिकून गळूंक लागतकच सांगो काडून खळ्यार सुकयतात. उपरांत तांची मळणी करून कुळीद काडटात.

**उत्पन्नः** कुळदाच्या पिकापसून दर हेक्टराक ३५० ते ५०० किग्रॅ. दाणे मेळटात. बरी जतनाय घेवन काडिल्लें पीक हेक्टराक ७५० किग्रॅ. वा चड येवंक शकता.

**उपेगः** बायलांचे मासिक पाळयेच्या विकाराचेर कुळदांचो काडो दितात. खेळणी (उचकी), मुळव्याध (बीक) आनी यकृताच्या (फिंद) दोशांचेर तशेंच जाडाय कमी जावपाक आनी मुतखडो वचपाक कुळीद उपेगी पडटात. दुयेंत मनशाक चड घाम आयल्यार ताचें पीठ सगळ्या आंगाक चोळटात. गंडमाळ आनी गालगुटां ह्या दुयेंसाचेर कुळीद आनी मिरयांचो काडो करून दितात. कुळीद भड्डून, भिजोवन पेंड म्हूण गोरवांक घालतात. जेवणा खाणांतूय कुळीद वापरतात. कुळदाच्या पिठाचो गोड घालून 'पिठी' नांवाचो पातळ गोड पदार्थ करतात. कुळदाच्या पिठाचें पिठलेंय करतात.

**रोगः** पानां हळडुवीं वा धवीं जावप, मुळां कुसप असले रोग कुळदाचे वालीक जातात. तेचपरी 'यॅलो मोझेइक' रोगाक लागून पिकाचें प्रमाण बरेंच घटता. ताका आळाबंदा हाडपाक रोगप्रतिबंधक बीं वापरतात. कुळदाक बरड लागूं येता देखून पुरुमेंताक दवरपाच्या कुळदाची बरीच जतनाय घेवंची पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**कून, रिखार्टः** (जल्मः ३ डिसेंबर १९००, व्हिएन्ना; मरणः १ ऑगस्ट १९६७, हायडेल्बर्ग).

जर्मन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. मुळावें शिकप व्हिएन्ना हांगा जालें. म्युनिक विद्यापीठाची डॉक्टरेट (१९२६) पदवी मेळयतकच ताणें व्हिल्स्टेटर ह्या नामनेच्या रसायनशास्त्रज्ञाचो मदतनीस म्हूण काम केलें. तेउपरांत हायडल्बर्ग हांगाच्या माक्स प्लांक इन्स्टिट्यूटचो संचालक आनी थंयच्या विद्यापीठांत प्राध्यापक म्हूण ताची नेमणूक जाली.

कॅरोटिनॉइड्स (carotenoids) आनी जीवनसत्त्वां (vitamins) हांच्या संशोधनाखातीर १९३८ त, कून हाका रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. पूण जर्मन सरकारान ताका पुरस्कार घेवपाक मना केलो. देखून दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत ताणें हो पुरस्कार घेतलो. दीर्घ शृंखलेच्या आनी एकांतरित द्विबंध (conjugated double bonds) आशिल्ल्या संयुगांच्या (polyene आनी diphenyl polyene) संरचनेचें ताणें संशोधन केलें. ताणें आठ कॅरोटिनॉइड्स सोदून काडलीं, तीं शुध्द अवस्थेंत मेळयलीं आनी विश्लेशणान तांची संरचना निश्चित केली. कुडींतले साकरेच्या ऑक्सिडीकरणाकडेन (oxidation) संबंदीत आशिल्लें $B_2$ जीवनसत्व म्हळयारूच Riboflavine हाची संरचना मांडपाचें कार्य कून आनी पाउल कारर हांणी एकाच वेळार पूण स्वतंत्रपणान केलें. ५३,००० लिटर दुदांतल्यान फकत एक ग्रॅम Riboflavine वेगळें करपाक ताका सगळ्यांत पयलीं यश आयलें. ताणें $B_6$ हें म्हत्वाचें त्वक्शोथनाशक (antidermatitis म्हळ्यार कातीची सूज पयस करपी) जीवनसत्त्व संयुग वेगळें केलें. जैव आनी वैजकी मळाचेर ह्या जटिल कार्बनी संयुगांचो अभ्यास उपाट म्हत्वाचो थारला. लिबीग्स आनालेन डेर केमी (Liebigs Annalen Der Chemie) ह्या नेमाळ्याचें ताणें १९४८ सावन संपादन केलें. पास्तर, पॅटर्नो आनी गटे हे पुरस्कार ताणें मेळयले.

- कों. वि. सं. मं.

**कूपमान्स, जालिंग सीः** (जल्मः २८ ऑगस्ट १९१०, ग्रेवलँड, नेदरलँड्स).

एक नामनेचो डच अर्थशास्त्रज्ञ. १९३३ त, ताणें युट्रेच विद्यापीठाची भौतिकशास्त्र आनी गणितशास्त्र ह्या विशयांतली एम्. ए. पदवी मेळयली. १९३६ त, ताणें लेडन विद्यापीठाची डॉक्टरेट मेळयली. १९३८ मेरेन ताणें 'नेदरलँड्स स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स' हातूंत अर्थशास्त्राचो अधिव्याख्यातो म्हूण काम केलें. १९३८-४० ह्या काळांत ताणें लीग ऑफ नेशन्स, जेनेवा हे संस्थेचो अर्थीक सचिव म्हूण काम केलें. १९४०-४१ त प्रिन्स्टन विद्यापीठांत अधिव्याख्यातो म्हूण आनी १९४६-५५ त शिकागो विद्यापीठांत अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक म्हूण काम केलें. १९६१-६७ ह्या काळांत येल विद्यापीठांतल्या काऊल्स आयोगाचो तो संचालक आशिल्लो.

'Theory of Optimum allocation of resources' ह्या विशयाचेर केल्ल्या संशोधनाखातीर ताका १९७५ त, अर्थशास्त्र विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार लिओनीद कांतोरोविच ह्या रशियन अर्थशास्त्रज्ञावांगडा वांटून मेळ्ळो. जायत्या विद्यापीठांनी ताका मानादीक पदव्यो दिल्यात. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं: 'Activity Analysis of Production and allocation' (1951), 'Studies in Econometric Methods' (1953) आनी 'Three Essays on the State of Economic Service' (1957).

- कों. वि. सं. मं.

**कूपर, लीअन एन्ः** (जल्मः २८ फेब्रुवारी १९३०, न्यूयॉर्क).

अमेरिकन भौतिकीविज्ञ. ताणें कोलंबिया विद्यापीठाच्या सैध्दांतिक भौतिकींतली ए. बी. (१९५१) आनी ए. एम्. (१९५३) ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. १९५४ त ताणें डॉक्टरेट मेळयली. तो प्रिन्स्टन हांगाच्या 'इन्स्टिट्यूट फॉर ॲडव्हान्स्ड स्टडी' हे संस्थेंत नॅशनल सायन्स

फाउंडेशनचो फेलो (१९५४-५५), इलिनॉय विद्यापीठांत भौतिकीचो सहसंशोधक (१९५५-५७), ओहायो राज्यांत साहाय्यक प्राध्यापक (१९५७-५८) तशेंच ब्राउन विद्यापीठांत सहयोगी प्राध्यापक (१९५८-६२) आनी प्राध्यापक (१९६२-६६) आशिल्लो. तेभायर तो १९५९-६५ त स्लोन रिसर्च फेलो आनी १९६५-६६ त गुगेनहाइम फेलो आशिल्लो. १९६६ सावन ब्राउन विद्यापीठांत तो गॉडर्ड विद्यापीठी प्राध्यापक आसा.

ताणें १९५६ त अशें दाखोवन दिलें की, अतिसंवाही (superconductivity) जालकांत electron phonon-electron विनिमयांत दोन इलेक्ट्रॉनांक पयस दवरपी 'कुलंब' (थीर विद्युत्) प्रेरणा ना जाता आनी खाशेले परिस्थितींत फोनॉनांवरवीं एकामेकांचेर क्रिया करपी इलेक्ट्रॉनांचे जोडयेंत एक नवी आकर्शक प्रेरणा दिसून येता. अशे तरेचे इलेक्ट्रॉन एकामेकांकडेन बध्द जावन तांची जी जोडी तयार जाता तिका 'कूपर जोडी' अशें म्हण्टात. कूपर जोडयेंतलीं इलेक्ट्रॉनांचीं परिवलनां (rotations) आनी संवेग (momentum) एकामेकांच्या आड आसतात. एक 'कूपर जोडी' अतिसंवाहक तयार करूंक शकना. बारडीन, कूपर आनी स्क्रीफर हे तिगूय शास्त्रज्ञ इलिनॉय विद्यापीठांत एकठांय काम करीत आसतना, तांणी कूपर हाची कल्पना चड इलेक्ट्रॉनांखातीर कशे तरेन उपेगांत हाडूं येता आनी अतिसंवाही अवस्था कशी तयार जाता, हें दाखोवन दिलें. शून्य तापमानांत चडांत चड इलेक्ट्रॉन जोडयो आसतात आनी तांच्यामदीं मोट्या प्रमाणांत सुसंगती दिसून येता, अशें मत कूपर हाणें परगटायलें. असल्या संवाहकांत विद्युत् प्रवाहाक स्फटिक जालकांतले दोश सोडल्यार आनी कसल्याच रोधाक (resistance) तोंड दिवचें पडना. १९७२ त, कूपर हाका भौतिकशास्त्राचो नोबेल पुरस्कार जॉन बारडीन आनी जॉन स्क्रीफर ह्या शास्त्रज्ञांवांगडा अतिसंवाहक पदार्थांच्या B.C.S. (बारडीन, कूपर आनी स्क्रीफर हांच्या आद्याक्षरांवेल्यान पडिल्लें नांव) सिध्दांताच्या सूत्रीकरणाखातीर मेळ्ळें. १९६८ त ताका नॅशनल अॅकडेमी ऑफ सायन्सेसची कॉमस्टॉक तस्त्रीप मेळ्ळी. अणुकेंद्रीय भौतिकी, नीच तापमान भौतिकी, मूलकण भौतिकी, क्षेत्र सिध्दांत ह्या विशयांनीय ताणें केल्लें संशोधन म्हत्वाचें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कूश, पॉलिकार्प:** (जल्म: २६ जानेवारी १९११, ब्लँकेनबर्ग -जर्मनी).

अमेरिकन भौतिकीविज्ञ. ल्हान आसतनाच तो जर्मनी सोडून अमेरिकेक गेलो. क्लीव्हलँड हांगाच्या 'केस इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजी' आनी 'इलिनॉय विद्यापीठ' हांगा शिकप घेतकच ताणें उजवाडाच्या रेणवीय (molecular) वर्णपटविज्ञानाविशीं इलिनॉय विज्ञान विद्यापीठांत आनी द्रव्यमान (mass) वर्णपटविज्ञानाविशीं मिनेसोटा विद्यापीठांत संशोधन केलें. १९३७ त कोलंबिया विद्यापीठांत ताची नेमणूक जाली. दुसऱ्या म्हाझुजांत ताणें वेस्टिंगहाउस, बेल टेलिफोन लॅबोरेटरी आनी कोलंबिया विद्यापीठ हांगा सूक्ष्मतरंग (microwave) जनित्राविशीं (generator) संशोधन केलें. १९४६ सावन तो कोलंबिया विद्यापीठांतूच अध्यापनाचें काम करीत आसा.

राबी, नेल्सन आनी नेफ हांणी १९४७ त हायड्रोजनांतल्या इलेक्ट्रॉनाच्या असंगत आनी अतिसूक्ष्म परस्परक्रियेचो सोद लायलो. अणु-शलाकेवरवीं कूश हाणें वेगवेगळ्या अणूंतल्या झीमान परिणामाचो अभ्यास करून इलेक्ट्रॉनाच्या असंगत गुणधर्मांचें प्रात्यक्षिक दाखयलें. १९५२ त, ताणें हायड्रोजनांतल्या इलेक्ट्रॉनाच्या चुंबकीय परिबलाचें (moment) आनी अतिसूक्ष्म परस्परक्रियांचें अचूक मेजप केलें. ह्या वावराखातीर विलिस लँब ह्या शास्त्रज्ञावांगडा कूश हाका १९५५ च्या भौतिकशास्त्र विशयाखातीर आशिल्ल्या नोबेल पुरस्काराचो भोवमान फाव जालो. रेडिओ कंप्रता (frequency) शलाका (beam) तंत्रावरवीं ताणें कांय आणवीय, रेणवीय आनी अणुकेंद्रीय गुणधर्मांचें अचूक आनी खात्रीचें मेजप केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**कृत्तिका:** नखेत्रमाळेतलें तिसरें नखेत्र. हातूंतलो एक चरण (चतुर्थांश) मेष राशींत आनी उरिल्ले तीन चरण वृषभ राशींत आसात, पूण अस्तंत पध्दतीप्रमाण हो पुंज वृषभ ह्या चोम्यांत येता. हातूंत एकदम लागींलागीं पांचवे वा सवे प्रतीचे सात तारे पुंजक्याच्या स्वरुपांत दिसतात.

कार्तिक म्हयन्याचे पुनवेक चंद्र ह्या नखेत्रांत आसता म्हूण त्या म्हयन्याक 'कार्तिक' नांव पडलां अशें म्हण्टात. कार्तिकांत हें नखेत्र सांजेचें उदेंतेक उदेता आनी सकाळीं अस्तंतेक अस्ताक वता. देखून, रातीचो वेळ कळपाक हाचो आदार मेळटा. फेब्रुवारींत हो पुंज सांजेचो माथ्यार येता. वैदिक साहित्यांत ह्या पुंजांत सात तर पौराणिक साहित्यांत स तारे सांगल्यात. तांचीं नांवां अशीं- अंबा, दुला, नितत्नी, अभ्रयंती, मेघयंती, वर्षयंती आनी चुपुणिका (तैत्तिरीय ब्राह्मण: ३.१,४.१). कार्तिकेयाच्यो स आवयो असो हांचो पुराणांत उल्लेख आसा. हाका बहुला अशें आनीक एक नांव आसा. तैत्तिरीय ब्राह्मणांत हें पयलें नखेत्र आनी कार्तिक म्हयन्यासावन वर्सारंभ मानला. कारण पांच हजार वर्सांआदीं वसंतसंपात (Vernal equinox- गतींत वसंत ऋतूंत जंय खगोलीय विषुववृत्त हुंपता तो बिंदू) कृत्तिका नखेत्रांत आशिल्लो.

ग्रीक पौराणिक कथेंत हातूंतल्यो तारका ह्यो अॅटलासच्यो धुवो असो उल्लेख मेळटा. कृत्तिकेंतलो 'अल्सायनी' हो योग-तारो जावन आसा. होच वृषभांतलो ईटा वा अंबा. जे स तारे फकत दोळ्यांनी दिसतात ते पांचवे प्रतीचे आनी सातवो जो दिसना तो सवे प्रतीच्या णव गिन्यांतलो एक आसा, अशें म्हण्टात. हो पयलीं दिसतालो पूण ल्हवल्हव ताचें तेज उणें जावन तो दिसना जालो. पूण व्हडल्या दूरदर्शकांतल्यान पळेल्यार ह्या १° त्रिज्येच्या वर्तुळाचे ल्हानशे सुवातींत ३०० ते ५०० तारे दिसतात. ह्या क्षेत्रांत आशिल्ल्या धुळीवेल्यान परावर्तित जावपी उजवाडाखातीर साद्या ल्हानशा दूरदर्शकांतल्यान लेगीत हो पुंज अभ्रिकेसारको दिसता. ह्या पुंजाचो व्यास १५ उजवाड वर्सां आनी सूर्यकुलासावन हाचें अंतर सुमार ४१० उजवाड वर्सां इतलें आसा.

कृत्तिका नखेत्राचें मूर्तिध्यान अशें सांगलां:

छागस्था छागवक्त्रास्या पिङ्गभ्रूकेशलोचना।
सूत्रं शक्तिं च बिभ्राणा पीनाङ्गजठरारुणा।
कृत्तिका कीर्तिता चेयं स्वर्णमालाविभूषणा।

(हेमाद्री व्रतखंड)

अर्थ- मेषाचेर (मेंढराचेर) बशिल्ली, मेंढराच्या तोंडाभशेन तोंड आशिल्ली, पिंगश्या वर्णाच्यो भुंवयो, केंस आनी दोळे आशिल्ली, सूत्र आनी शक्त धारण करपी, धश्टपुश्ट आंग आनी तांबड्या पोटाची तशेंच भांगराची माळ गळ्यांत घाल्ली अशी कृत्तिकेची मूर्त करची.

- कों. वि. सं. मं.

**कृत्तिरामायण:** बंगाली भाशेतलें पयलेंच रामायण. हें पद्यमय रामायण सात खंडांनी आसून ताचें नांव 'श्री रामपाँचाली' अशें आसा. नामनेचो बंगाली कवी कृत्तिवास ओझा (१२ जानेवारी १३९९-? १४८०) हाणें हें काव्य रचलें. कृत्तिवासाविशीं पुराय माहिती मेळना. विसाव्या शेंकड्यातले कांय विद्वान नगेंद्रनाथ वसु, दिनेशचंद्र सेन तशेंच नलिनीकांत भट्टशालीन हांकां कृत्तिवासाची आत्मचरित्राच्या रुपांत कांय हातबरपावळ मेळ्ळी. ताचेवेल्यान कांय माहिती मेळ्ळ्या ती अशी:

कृत्तिवास हो श्रीहर्ष हाच्या वंशांतलो एकविसावो पुरुश. ताचो जल्म अस्तंत बंगालच्या चोवीस परगण्यांतल्या फुलिया ह्या गांवांत एका ब्राह्मण घराण्यांत जालो. ताचे जाण्टेले यवन-उपद्रव काळांत आपलो गांव सोडून हांगा आयिल्ले. ताच्या आज्याचें नांव- मुरारी ओझा, बापायचें नांव- वनमाली, आवयचें नांव- मानिकी. कृत्तिवास आनी ताचे ४ भाव हांणी पद्मा न्हंयचे पलतडीं वीरेंद्रभूंयेत शिकप केलें. कृत्तिवास हो ताचो अध्यापक आचार्य चूडामणि हांचो आवडटो शिष्य आशिल्लो. शिकप

सोंपतकच कृत्तिवास गौडेश्वराच्या दरबारांत गेलो. गौडेश्वर राजाचे आज्ञेन कृत्तिवासान बंगाली भाशेंत 'श्रीराम पाचाली' हें रामायण रचलें. 'पाँचाली' ह्या पोरन्या बंगाली गीतप्रकाराचें अनुसरण करून, रामकथेचेर रचिल्लें तें एक स्वतंत्र लोककाव्य आसा.

कृत्तिवासाच्या रामायणापयलीं बंगालांत रामकथेचो प्रसंग, व्यक्ती आनी वर्णनां हांच्यो काणयो लोकांच्या तोंडांत घोळटाल्यो. ताचेंच परिष्कृत रूप 'श्रीराम-पाँचाली' त दिसून येता. वाल्मीकिरामायण, कालिकापुराण, अध्यात्मरामायण, अद्भूतरामायण आनी हेर संस्कृत रामायणांचो अभ्यास करून कृत्तिवासान बंगाली पद्यांत रामायणाचें स्वैर रूपांतर केलां. ताणें आपली कल्पनाशक्त आनी काव्यप्रतिभा वापरून रामायणांतल्या कांय प्रसंगांचें चित्रण मूळ रामकथेपरस वेगळ्या रूपांत केलां.

वाल्मीकीचो राम क्षत्रिय वीर, शूर आनी अद्वितीय आसा जाल्यार कृत्तिवासाचो राम कोमल आसा. तुलसीदासान रामाक आदर्श पुरुषोत्तम केला जाल्यार कृत्तिवासान ताका मानवी गुणांनी अलंकृत केला. कृत्तिवासाचो राम अस्सल बंगाली. मध्ययुगीन बंगाली भोवजनांच्यो आशा-आकांक्षा, सुख-दुख्खां, रीतीरिवाज, जीणेचे आदर्श आनी तांची भावजीण हें सगळें ह्या महालोककाव्यांत प्रगट जालां. कृत्तिरामायणांतलीं पात्रां चड कोमल, मोवाळ आनी करुणरसप्रधान आसात. वाल्मीकी रामायणांतले उच्च आदर्श मात कृत्तिवासान आपले रचनेंत आसा तशेच अखंड दवरल्यात. पितृभक्ति, सत्यनिश्ठा, त्याग, प्रजानुरंजन, पातिव्रत्य ह्या सगळ्या आदर्शांचो सफलतेन प्रयोग केला. राम-लक्ष्मणाचें बंधुप्रेम, कौसल्येचो शोक, सीतेचें सोबीत रूप ह्यो गजाली कृत्तिवासान मुळापरस चड सरस वर्णिल्यात. त्या काळांत बंगालांत वैष्णव धर्माचें वर्चस्व आशिल्लें. ताका लागून वैष्णव धर्माचो प्रभाव कृत्तिवासाच्या रामायणाचेर पडिल्लो दिसतात. देखीकः रावणाचो पूत वीरबाहू रामाकडेन झुजपाचो प्रसंग आयलो तेन्ना किदें करता ताचें वर्णन कृत्तिवासान अशें केलां-

धरणी लुटाए रहे जुडि दुई कर।
अकिंचने कर दया राम रघुवर।।

अर्थ- धर्तरेचेर लोटांगण घालून आनी दोनूय हात जोडून तो म्हण्टा- 'हे रघुवर, ह्या गरीबाचेर दया कर.'

कृत्तिवासाची काव्यशैली सोपी, चित्रमय आनी भावोत्कट आसा. मार्मिक स्वभावचित्रण हें तर ताचें खाशेलेपण. ही शैली सुशिक्षित आनी अशिक्षित ह्या दोगांच्याय अंतःस्कर्णाची पकड घेता. काकुळट, समवेदना, स्नेह, मोग, भक्ती, दाक्षिण्य ह्या गुणांक लागून मनशाभितर देवपण येता, जाल्यार तांच्या अभावाक लागून मनीस राक्षस जाता, हो विचार कृत्तिवासान प्रस्तुत काव्यांत परगटायला.

कृत्तिवासान पंदराव्या शेंकड्यांत रामायणाची रचना केली. पूण सांपडिल्ल्या रामायणांतली भास पंदराव्या शेंकड्यांतल्या भाशेइतली पोरनी दिसना. देखून, कृत्तिवासाचें रामायण आयज मूळ स्वरूपांत मेळना अशें म्हण्टात. मूळ रामायणाच्यो प्रती करतल्यांनी ताचे भाशेंत खूब बदल केल्यात आसूंक जाय. ताच्या फुडल्या काळांतल्या वैष्णव आनी शाक्त कवींनी तातूंत आपापल्या पंथाच्या विचारांची भर घाली, अशेंय एक मत आसा. हें काव्य बंगाली समाजांत खूब लोकप्रिय जाल्ल्यान लोकांच्या तोंडातसून ताची भास बदलत गेली, अशेंय एक मत आसा. इतलें जावन लेगीत कृत्तिवासाच्या मूळ काव्याची शैली आनी ताचो सार आयच्या उपलब्ध प्रतींत कायम आसा.

कृत्तिवासाचें रामायण बंगालांत खूब लोकप्रिय आसा. बंगाली मनशाची मानसिक आनी नैतिक घडण करपाक जे काव्यग्रंथ कारणीभूत जाले, तातूंत 'श्रीराम-पाँचाली' हें काव्य मुखेल आसा. समाजाच्या सगळ्या थरांनी हाचो प्रचार आसा. कृत्तिवासाची भास सोपी, सादी आनी प्रासादिक आशिल्ल्यान सामान्य लोकांक लेगीत ताचें रसग्रहण सहज जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**कृष्ण:** कृष्ण हो विष्णूच्या धा अवतारांपैकीं आठवो अवतार अशें मानतात. आपल्या अलौकिक कर्तृत्वान देवपण मेळोवपी कृष्ण ही एक इतिहासीक व्यक्ती आसप शक्य आसा अशें जाणकारांचें मत आसा. कृष्णाचो जल्म सादारणपणान इ. स. प. ३१८५ वर्सा जालो आनी ताचें निर्वाण इ. स. प. ३०६५ वर्सा जालें अशें पुराणांतल्या आदारावयल्यान मानतात. पर्गीटर, पुसाळकर ह्या सारके विद्वान इ. स. प. १४ वें शतमान हो कृष्णाचो काळ मानतात. पुरातत्त्व संशोधनांत सांपडिल्ली कृष्णाची द्वारका इ. स. प. ३००० वर्सांची अशें एस्. आर. राव हाचें मत आसा.



कृष्ण

इतिहासांत कृष्णाचे उल्लेख अशे मेळटात: देवकीपुत्र कृष्ण (छांदोग्योपनिषत् ३.७.६); मूळ महाभारत (इ.स.प. ३०० वर्सां); हरिवंश (इ.स.प. दुसरें शतमान); विष्णूपुराणाचो पांचवो अंश (५ वें शतमान), भागवत धावो स्कंद (९ वें शतमान) आनी ब्रह्मवैवर्तपुराण. हातूंतल्यान सांगिल्लें कृष्णचरित्र अशें आसाः

यदुकुलांतल्या वृष्णि वंशांत वसुदेव आनी देवकी हांकां मथुरेंत बंदखणींत श्रावण वद्य अष्टमीचे मध्यानरातीक आठवो पूत जालो तो कृष्ण. आकाशवाणीप्रमाण वसुदेवाचो पूत आपलो घात करीत ह्या भयान यादवराज कंस हाणें आपले भयणीच्या, म्हळ्यार देवकीच्या स भुरग्यांक जिवेशीं मारिल्लीं. वसुदेवाचो सातवो पूत बलराम ताची दुसरी बायल रोहिणी हिच्या गर्भांत वाडलो. कृष्ण जल्मल्याउपरांत वसुदेवान ताका यमुना न्हंयचे पलतडी गोकुळांत नंदगोप हाचेकडेन पावयलो. कृष्ण आनी बलराम गोकुळांत ल्हानाचे व्हड जाले. तांचो दोगांयचो प्रतिपाळ यशोदेन केलो. कंसान गोकुळांत आपले मनीस धाडून कृष्णाचो घात करपाचे जायते यत्न केले, पूण ते फळादीक जाले नात. पूतना, शकहासूर, वृषभासुर हांकां कृष्णान मारून उडयले. उपरांत कृष्ण आनी बलराम वयांत येतकच अक्रूराक धाडून धनुर्यागाच्या निमतान मथुरेक हाडून तांकां मारपाचें कंसान येवजिलें. मथुरेक पावतकच कृष्णान कुवलयापीड ह्या हतयाक आनी चाणूर ह्या मल्लाक मारून उडयले. कंसाक मारून उडोवन ताणें मथुरेचें राज्य कंसाचो बापूय उग्रसेन हाचे सुवाधीन केलें. उपरांत कृष्ण आनी बलराम सांदीपनी ऋषीकडेन वचून वेद-वेदांगां आनी धनुर्वेद शिकले.

मगधाचो सम्राट जरासंध हो कंसाचो मांव आशिल्लो. कंसाच्या मर्णाचो सूड घेवपाखातीर ताणें अठरा खेप कृष्णाचेर घुरयो घाल्यो. दर फावट कृष्ण आनी बलरामान ताचो पराभव करून ताका धांवडावन घालो. निमणे घुरयेवेळार कृष्णान मथुरा सोडून सौराश्ट्रांत द्वारका हांगा नव्या राज्याची थापणूक करून आपल्या राज्यांतले प्रजेक थंय हालयली.

कालयवन आनी जरासंध ह्या दोगांयनी ह्या वेळार कृष्णाचेर घुरी घाल्ली. कृष्ण जरासंधाच्या हाताक लागलोना आनी कालयवन हाका भियेल्ल्याचें निमित्त करून तो गोमंत पर्वतावयले एके होवरेंत लिपून रावलो. थंय मुचकुंद हो राजा न्हिदिल्लो. ताका कृष्ण समजून कालयवनान खोंट मारून उठयलो. पूण मुचकुंदान दोळे उगडटकच ताच्या तेजान कालयवन भस्म जालो. जरासंधान गोमंत पर्वतावयल्या रानाक उजो लायलो आनी कृष्ण आनी बलराम त्या उज्यांत हुलपून मेले अशें समजून तो पर्थून गेलो. कृष्ण दुसरेखटेन सुरक्षितपणान द्वारकेक पावलो.

विदर्भ राजा भीष्मक हाची धूव रुक्मिणी हिका तिच्या मोगाचो आदर करून कृष्णान उबारून व्हेली आनी तो तिचेकडेन लग्न जालो. ह्या वेळार रुक्मी हो तिचो भाव आनी तिच्या स्वयंवराक जमिल्ले हेर राजा कृष्णाकडेन झुजूंक आयले. कृष्णान तांचो सगळ्यांचो पराभव केलो. ह्या पयल्या लग्ना उपरांत कृष्णान जांबवंती, सत्यभामा, कालिंदी, मित्रविंदा, सत्या, भद्रा आनी लक्ष्मणा हांचेयवांगडा लग्नां केलीं. ह्यो कृष्णाच्यो अष्टनायिका जावन आसात. फुडें प्रागज्योतिषपुरच्या नरकासुराक मारून उडोवन ताणें बंदी केल्ल्या सोळा हजार बायलांची मुक्तताय करून तांचेकडेन लग्नां केलीं.

कृष्णाची पांडवांकडेन भेट द्रौपदीस्वयंवराच्या वेळार जाली. द्रौपदीक स्वयंवरांत अर्जुनान जिखल्याउपरांत कृष्णान तांकां बरीच संपत्ती दिली आनी पुराय यादवसत्तेचो तेंको दिलो. आपली भयण सुभद्रा हिचें लग्न अर्जुनावांगडा करून दिवन कृष्णान पांडवांकडेन नवें नातें जोडलें. भीमाच्या हातांतल्यान ताणें बळिश्ट जरासंधाक मारून उडयलो. युधिष्ठिराच्या राजसूय यज्ञांत कृष्णाक अग्रपूजेचो मान मेळिल्ल्यान शिशुपालान ताचो अपमान केलो. हाचेपयलीं शिशुपालाचे णव्याण्णव अपराध माफ केल्ल्या कृष्णान ताका मारून उडयलो आनी शाल्व, दंतवक्र, विदूरथ ह्या शिशुपालाच्या इश्ट राजांकूय मारून उडयले. कौरव-पांडवाच्या द्यूतावेळार युधिष्ठिरान द्रौपदीक पणाक लायली आनी तो हरलो. ह्या वेळार दुःशासनान तिचें वस्त्रहरण करतना कृष्णान तिका वस्त्रां दिवन तिची लज राखली.

पांडवांचो वनवास सोंपतकच कौरवांनी तांकां राज्याचो वांटो दिवचो आनी झूज जावचे न्हय म्हूण कृष्णान शिष्टाय केली. निमाणे जेन्ना झुज जालें तेन्ना कृष्णान पांडवाचो पाखो घेतलो आनी आपलें नारायणी नांवाचें सैन्य कौरवांवटेनच्यान झुजूंक धाडलें. महाभारतांतल्या झुजांत कृष्ण अर्जुनाचो सारथी जालो आनी झुजावेळार संभ्रमित जाल्ल्या अर्जुनाक तत्त्वगिन्यानयुक्त गीतेचो उपदेश करून ताका कर्तव्याक प्रवृत्त केलो. ताच्या मोलादीक मार्गदर्शनाउपरांत पांडव झुजांत जैतिवंत जाले.

यादवांभितर कलह जावन तांणी उन्मत्तपणान एकामेकांक मारूंक सुरवात केल्या उपरांत बलरामान आपले कुडीचो त्याग केलो. कृष्णाक आपलो अवतार सोंपत आयिल्ल्याची जाणवीकाय जाल्ली. एक दीस अश्वत्थ रूखापोंदा उजवे मांडयेर दावो पांय दवरून बशिल्ल्या कृष्णाचेर एका पारध्यान हरण समजून बाण मारलो तेन्ना कृष्णान संवसाराचो त्याग केलो.

कृष्णाविशीं पोरन्या साहित्यांतल्यान तरेतरेचें वर्णन वाचूंक मेळटा. आनी विंगड विंगड विद्वानांनी वेगवेगळ्या पध्दतीन ताच्या चरित्राचें फोडणीशी केलां. कांय जाणांच्या मतान तो लोकोत्तर इतिहासीक मनीस जाल्ल्यान ताका देवपण मेळळें. ताणें आपल्या अवताराच्या काळखंडांत दैत्यांक मारून उडोवप, कालियामर्दन, गोवर्धन पर्वत उखलून धरप असल्या प्रसंगांतल्यान अदभुतपण मेळयलें. ह्या प्रसंगांतलीं प्रतीकां पयस करून तांचो लौकिक अर्थ स्पश्ट करपाचोय वावर बऱ्याच जाणकारांनी केला. कृष्णाची अलौकिक बुध्द, सोबीतकाय, कुडीचें बळगें, प्रसंगावधान, शौर्य , कुशळताय, वक्तृत्व, मुत्सदीपणा हांचेर आनी ताच्या निस्पृह वृत्तीवांगडाच कावेबाज राजकारण आनी वेव्हारीक शाणेपणाचेर बरीच बरपावळ जाल्या, उंचेल्या पांवड्यावयली तात्त्विक विचारसंपदा ताचे भगवद्गीतेंतल्या तत्त्वगिन्यानांतल्यान दिसता. तातूंत उपनिषदांचो आनी पूर्विल्ल्या तत्त्वप्रणालींचो सगळो आपरोस दिश्टी पडटा. गोवर्धन पूजेसारख्या प्रसंगावेळार ताणें दाखयिल्ली सुदारक वृत्ती आनी समाजधारणेखातीर वैदिक आनी वेदपूर्व अशा दोनय परंपरांचो समन्वय, ह्यो गजाली ताका हिंदू धर्मांतल्या देवांमदीं म्हत्वाची सुवात दितात.

- लक्ष्मण पित्रे

## कृष्णन, सर कार्यमणिक्कम श्रीनिवासः

(जल्मः ३ डिसेंबर१८९८, वत्रप- तमिळनाडू; मरणः १४ जून १९६१, दिल्ली).

नामनेचो भारतीय पदार्थविज्ञानशास्त्रज्ञ. ताणें आपलें शिकप तिरुपती, श्रीरंगम आनी मद्रास हांगा पुराय केलें. मद्रास विद्यापीठाची एम्. ए. आनी डी. एससी. ह्यो पदव्यो ताणें जोडल्यो.

मद्रासाचे ख्रिश्चन कॉलेजींत कांय काळ शिक्षकाचें काम केल्या उपरांत नामनेचो शास्त्रज्ञ सी. व्ही. रमण हाचो सहाय्यक म्हूण ताका नेमलो (१९२३-१९२८). १९२९ ते १९३३ ह्या काळांत डाक्का विद्यापीठांत पदार्थविज्ञान शास्त्राचो रीडर म्हूण ताणें काम केलें, त्या उपरांत कलकत्त्याचे इंडियन असोसिएशन फॉर द कल्टिव्हेशन ऑफ सायन्स हे संस्थेंत प्राध्यापक म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९४२ त, अलाहाबाद विद्यापीठांत पदार्थविज्ञानशास्त्राच्या प्राध्यापकपदाचेर ताची वेंचणूक जाली. १९४७ ते १९६१ मेरेन दिल्लीच्या 'नॅशनल फिजिकल लॅबोरेटरीचो' संचालक म्हूण ताणें खूब म्हत्वाचो वावर केलो. ह्या काळांत तो ॲटोमीक एनर्जी कमिशनाचो वांगडी आसलो.

रमण हाच्या हाताखाला कृष्णन हाणें प्रकाशकी आनी रेणवीय भौतिकी ह्या शाखांनी संशोधन केलें. 'रमण परिणाम' ह्या रमण हाच्या नामनेच्या सोदाच्या संशोधनांत कृष्णनाचो पालव मोलाचो आशिल्लो. रेणूंतली चुंबकीय ग्रहण क्षमता आनी चुंबकीय विषमदिकता **(Anisotrophy)** (विंगड विंगड अक्षांच्या दिकांत विंगड विंगड गुणधर्म आसप) हाच्या सूक्ष्म मापनाखातीर तांणी जायतीं उपकरणां आनी यांत्रिक येवजणी तयार केल्ल्यो आनी ताच्या आदारान प्रतिचुंबकीय **(Diamagentic)** आनी समचुंबकीय **(Paramagnetic)** स्फटिकरूप द्रव्यांच्या विषमदिकतेसंबंदी म्हत्वाची निरीक्षणां नोंदल्यांत. ह्या ताच्या वावराक लागून स्फटिकरूप पदार्थाच्या आंतररचनेचो अभ्यास करपाखातीर क्ष-किरण पध्दत सोडून एक नवी पध्दत सांपडली. ह्या ताच्या संशोधनाची म्हायती इंग्लंडाच्या रॉयल सोसायटीच्या नेमाळ्यांत तशेंच अमेरिकेच्या फिजीकल रिव्ह्यू भितर उजवाडाक आयली आनी कृष्णनाक संवसारभर कीर्त मेळ्ळी.

कृष्णनाच्या संशोधनाचो विंगड विंगड मळार भोवमान जावन ताका जायत्यो तस्त्रीपो आनी मानाच्यो सुवाती फावो जाल्यो.

१९३९ त कॅव्हॅंडिश प्रयोगशाळा, रॉयल इन्स्टिट्यूशन आनी स्ट्रासबर्ग हांगाच्या संवसारीक चुंबकत्व परिसंवादांत व्याख्यानां दिवपाक ताका आपयलो. १९४० त रॉयल सोसायटीचो वांगडी म्हूण ताची वेंचणूक जाली. १९४० त इंडियन सायन्स कॉंग्रेसच्या भौतिकी विभागाचो तो मुखेल आसलो. १९४१ त ताका कृष्ण राजेंद्र ज्युबिली भांगरापदक मेळ्ळें. १९४६ त ताणें 'सर' ही पदवी मेळयली. १९५३ त अलाहाबाद हांगा भरिल्ल्या सायन्स कॉंग्रेसच्या परिशदेचो तो अध्यक्ष आसलो. त्याच वर्सा भारताच्या नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सचें वांगडीपण आनी भारत सरकाराची पद्मभूषण तस्त्रीप मेळ्ळी. तेउपरांत १९५६ त अमेरिकेच्या नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचें वांगडीपण मेळ्ळें. १९५८ त भटनागर यादस्तीक पदक ताका भेटयलें.

- कों. वि. सं. मं.

## केंकरे, चंद्रकांत (दत्ताराम) वैकुंठ शेणवीः

(जल्मः २९ सप्टेंबर१९३०, शिरोडें-फोंडें).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें एस्. एस्. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. 'राश्ट्रीय कॉंग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. १९४५ ते १९५३

मेरेन ताणें गोंयचे सुटकेखातीर जायतो वावर केला. १७ फेब्रुवारी १९५५ दिसा डॉ. गायतोंडे दीस मनोवपाक सत्याग्रह घडोवन हाडिल्लो तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. देखून, पोलिसांनी ताका अटक केली आनी १२ वर्सांखातीर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. बंदखणींत ताणें पोर्तुगेज बावट्याक मान दिलो ना, देखून ताका एकांतवासांत दवरिल्लो. २६ ऑगस्ट १९५९ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. उपरांत तो शिक्षणीक, बौध्दिक आनी सांस्कृतिक कार्यांनी वांटो घेवंक लागलो. गोंय सुटके उपरांत तो शिरोड्या ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हूण वेंचून आयलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

-कों. वि. सं. मं.

**केंकरे, रजनीकांत (राजाराम) सखारामः** जल्मः १९३१, कुंकळ्ळी-साश्टी; मरणः ४ जून १९५७, निरंकाळ-दाभाळ).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. ऑगस्ट १९५४ वर्सा ताणें नगर हवेलीचे सुटके चळवळींत वांटो घेतिल्लो. उपरांत जायते फावट ताणें पोर्तुगेजांच्या पोलीस ठाण्यार, मिनाखणीचेर आनी रेल्वेचेर हत्यारबंद हल्ले करपांत वांटो घेतिल्लो. १३ एप्रिल १९५५ दिसा प्रभाकर वैद्य हाच्या फुडारपणाखाल कुंकळ्ळी पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. १० जून १९५५ दिसा केसलरॉक ते कुळें रेल्वेलायनीचेर आशिल्ल्या बोगदो नं. १० हाका ताणें सुरींग घालो. ते भायर ३१ जून १९५५ दिसा सांवड्डें ते काले रेल्वेलायनीचेर आशिल्ल्या, सांकवाळ २ जुलय १९५५ दिसा कश्टी-कुळे रेल्वेलायनीवेल्या सांकवाक आनी त्याच दिसा चांदरचे रेल्वेपुलाचेर स्फोट घडोवन हाडिल्लो, तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. ताचे गैरहाजेरींत गोंयच्या प्रादेशिक लश्करी दंडाधिकाऱ्यामुखार (Territorial Military Tribunal) ताची चवकशी जाली. ताका इकरा वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर २० वर्सां खातीर ताचे राजकी हक्क काडून घेतले. ८ फेब्रुवारी १९५६ दिसा तळावले मिनाखणीचेर स्फोट घडोवन हाडपांत तो आशिल्लो. २ मार्च १९५६ ह्या दिसा ताणें करंजाळे रेल्वे गाडयेचेर हल्लो केलो आनी पंदरा हजार रुपये हस्तगत केले. १३ ऑगस्ट १९५६ दिसा ताणें कुळे ते सोनावली रेल्वेलायनीचेर बॉम्ब स्फोट घडोवन हाडलो. १२ ऑक्टोबर १९५६ दिसा शिरोड्या आनी १४ मे १९५७ दिसा सोनावली वाठारांत जे घातकी हल्ले जाल्ले तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. उपरांत ४ जून १९५७ दिसा निरंकाल-दाभाळ वाठारांत अकस्मात २० सैनिकांनी ताचेर आनी ताच्या वांगड्यांचेर हल्लो केलो. ह्या हल्ल्यांत ताका आनी ताच्या वांगड्यांक मरण आयलें. १८ जून १९८३ दिसा गोंय सरकारान ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**केंसः** कातीपसून भायर आयिल्ल्या लांब तंतूंसारक्या आनी 'केरॅटीन' ह्या प्रथिन पदार्थांनी तयार जाल्ल्या भागाक 'केंस' अशें म्हण्टात. सस्तन प्राण्यांतूय केंस दिसून येतात आनी त्या वर्गाच्या प्राण्यांचें तें खाशेलपण अशें समजतात. कांय जातीच्या किडींनी आनी शेड्ड्यांनी केंसासारके भायर सरिल्ले भाग आसतात, पूण ते खरे केंस अशें मानीनात.

सगळ्या सस्तन प्राण्यांक केंस आसले, तरी तांच्यो तरा तशेंच वांटणी प्राण्यांचे जातीप्रमाण वेगळ्यो आसतात. देखीक, देवमाशाच्या आंगार केंसूच ना म्हळ्यार जाता पूण ताच्या तोंडाकडेन थोडे खूंट कशे केंस आसतात. हेर सस्तन प्राण्यांक आंगभर दाट केंस आसतात आनी त्या केंसाच्यो तराय प्राण्यांप्रमाण वेगवेगळ्यो आसतात. मनीस जातींत माथें, खांके, दोळ्यांच्यो भुंवयो आनी जननेंद्रियाभोंवतणच्या केंसांची लांबाय, दाटाय आनी मुदयाळेपण हातूंत फरक आसता. केंसांच्यो दोन अप्रूपांच्यो जाती म्हळ्यार रानांतले साळीच्या आंगावेले कांटे आनी गेंड्याचें शिंग. हे कांटे आनी शिंग म्हळ्यार कमी-चड प्रमाणांत पांकिल्ले आनी घट्ट जाल्ले केंसाचे चोंबडे जावन आसात. खंयूय एक केंस मेळ्ळयार तो खंयचे जातीच्या प्राण्याचो हें थारावप सोंपें पूण हो केंस त्याच प्राण्याचे हें थारावपाक त्या प्राण्याचो आनीक एक केंस घेवन तपासचो पडटा.




**कार्यः** केंसाचें मुखेल काम म्हळ्यार थंडी आनी गरमेपसून प्राण्यांचें रक्षण करप. थंड हवेच्या वाठारांत, कातीवयल्या दाट केंसांचो थर आंगाची ऊब सांबाळटा; गरम हवेच्या ठिकाणार पातळ केंस सूर्याच्या वोतापसून कातीची राखण करतात. हाचेभायर दाट केंसांचो थर कातीक कसल्याय मारापसून वाटायता. भोंवयेवयले केंस, व्हांविल्लो घाम दोळ्यांत वचूंक दिना. नाकांतले आनी कानांतले केंस धुल्ल वा बारीक-सारीक वस्तू नाका-कानांत वचच्यो न्हय म्हूण आडखळ करतात. कातीवयले केंस कसलीय वस्त ताका लागल्यार, मज्जातंतू जागृत करून, मेंदवाक ताची जाणविकाय करून दितात. प्राण्यांचो रंग भोंवतणच्या वस्तूसारको आसल्यार, तो प्राणी ताचो उपेग आपल्या दुस्मानापसून लिपून रावपाखातीर करूंक शकता.

जेन्ना केंस हालता, तेन्ना ताच्या मुळांतल्या कातींतले मज्जातंतू जागृत जातात आनी अशे तरेन प्राण्यांक स्पर्शज्ञान जाता. चडशा सस्तन प्राण्यांत तोंड, दोळे, नाक आनी पांयांच्या बोंचकुलाकडेन हे स्पर्शज्ञानाचे मज्जातंतू चड जागृत आसतात. केंसाचो रंग, घडण आनी वांटप, प्राण्यांची पिराय आनी लिंग हाच्याप्रमाण बदलता आनी ह्या बदलाक लागून नर-मादींत एकामेकांपासत लैंगीक ओड उत्पन्न जाता.

**रचनाः** केरॅटीन (keratine) ह्या घट्ट तंतूमय प्रथिनापसून केंस तयार जातात. दर एका केंसाक केरॅटीनापसून तयार जाल्लें एक पातळ आवरण आसता, हाका उपचर्म वा क्युटीकल (cuticle) म्हण्टात. उपचर्मासकयल आशिल्लो दाट थर केंसांक घटसाण दिता, जाका कट्टें वा कॉर्टेक्स (cortex) म्हण्टात. ह्या थराभितर आनीक एक सुषिर (spongy) थर आसता; हाका मध्यांग (medulla) म्हण्टात आनी ह्या थराक लागून केंस लवचिक जाता आनी मोडनासतना वांकडो-तिकडो जावंक शकता. खूब

बारीक आनी मोव केंसांत एकाद्र्या वेळार मध्यांग नासता. दरेक केंसाची बुन्याद कातींत आसता आनी तो केंस नळये आकाराच्या केंसाच्या कूपांतल्यान (Hair follicle) वाडूंक लागता. केंसांचें कूप हें भायले कातीचे (epidermis) पेशीपसून तयार जाता आनी तें कातींत भितर खोल गेल्लें आसता आनी सभोंवतणी संयोजी पेशीजाल (connective tissue) आसता. दरेक केंसाकडेन कातीभितर तेलकट वंस तयार करपी ग्रंथी आसतात, हाका वंशीच्यो ग्रंथी (sebaceous glands) म्हण्टात.

**वाडः** केंसांचे बुन्यादींत एक पेशीवाड करपी कूप आसता, हाका 'आदारक' (matrix) म्हण्टात आनी ताचे भोंवतणी कातीच्या भितरल्या भागाचो अंकुरक (papillae) तशेंच रगताच्यो बारीक बारीक शिरो आनी मज्जातंतू आसतात. ह्या रगताच्या शिरांतल्यान ते बुन्यादींतल्या पेशींक ऑक्सिजन आनी अन्नपुरवण जाता. बुन्यादींतल्या पेशींतल्या कूपांतल्या केंसांचो गाभो (core) तयार जावन, तो मदल्यान वयर येवंक लागता. ह्या गाभ्यांतल्यो मदल्यो पेशी रोखड्योच मरतात आनी घट्ट जातात; पूण भायल्यो पेशी मरतात तेन्ना तांचें घट्ट, दोन थरी केंसांचें आवरण (hair sheath) तयार जाता.

पेशींची वाड आनी केंसांची ठेवण, दरेक प्राण्याची जात, आंगाची सुवात आनी आनुवंशिकता ह्या गजालींचेर आदारुन आसता. केंस सरळ तशेंच मुदयाळे आसूं येता. सरळ केंस आडवो कापल्यार ताचो पृष्ठभाग वांटकुळो मेळटा, जाल्यार मुदयाळो केंस आडवो कापल्यार ताचो पृष्ठभाग लंबवर्तुळाकार (oval) आसा अशें दिसून येता. केंस ताच्या आवरणासकट कूपांतल्यान वयर वयर सरता. जेन्ना तो कातीच्या पृष्ठभागाचेर पावता, तेन्ना थंयच्यो थोड्यो पेशी एक रसायन तयार करतात आनी कातीभायर सरून त्या केंसांभोंवतणीचें आवरण नश्ट करतात. पून वशीच्यो ग्रंथी आपल्या स्त्रावान भायर सरपी केंस मोव आनी बुळबुळीत दवरपाक मदत करतात.

मनशाच्या केंसाची सरसकट वाड म्हयन्याक अर्द ते एक इंच इतली आसता. भुरगेपणांत वाड चड आसता तर म्हातारपणांत ती कमी जाता. केंसांची वाड पुराय जाली जाल्यार बुन्यादींतल्या आदारकाची पेशीवाड थांबता आनी ते नांगराभशेन आकार घेतात. हाका केंसाच्या मुळाचो खुंटो (Hair Club) अशें म्हण्टात. जेन्ना नवो केंस फुटपाक सुरवात जाता तेन्ना वा थोड्या दिसांनी हो आदलो केंसाच्या मुळाचो खुंटो कातींतल्यान भायर सरता.

**रंगः** केंसांच्या पेशींत बारीक बारीक मेलानीनचे (melanin) गुठले आसतात. ते ताच्या मुळांत आशिल्ल्या कातीच्या पेशींतल्यान आयिल्ले आसतात आनी ह्या मेलानीनच्या गुठल्यांच्या प्रमाणाक आनी वांटणेक लागून केंसांचो रंग थारता. मेलानीन आशिल्ल्या पेशींक मेलानीन पेशी (melanocytes) म्हण्टात. दरेक मेलानीन पेशीक दोंके कशे भाग आसतात आनी तातूंत रंग गुठल्या गुठल्यांनी भरिल्लो आसता. हो रंग काळो, तांबडो वा पुडी कोराचो आसता. जेन्ना दोंके कशे आशिल्ले भाग आंवुळटात वा रंगाचे गुठले कमी जातात तेन्ना केंस धवे जातात. चड करून म्हातारपणांत हे केंस धवे जातात. धवे केंस काळे करपाक खूब तरेचे कलप लायतात. तातूंत फकत वयले केंस काळे जातात, पूण मुळांत केंस धवेच उरतात.

सामान्य सैमीक केंसांची वाड आनी रंग पिरायेप्रमाण बदलता पूण कुपोशण, हॉर्मोन बदल, हवामान तशेंच वायटाक लागूनय हातूंत बदल जावंक शकता. कातीचेर कसलेंय रसायन पडून जखम जाल्यार त्या जाग्यावयली केंसांची वाड खुंटता. सांबाळखारासारक्या विखाक लागून मरण आयल्यार, केंसांची तपासणी करून ह्या विखाची खात्री करूं येता. खूब लोकांचो समज आसा की केंस कापल्यार वा तासल्यार ते बेगीन वाडटात. पूण हें खरें न्हय.

**केंसांचे रोगः** आनुवंशिक कारणाक लागून केंस खूब लांब जातात. मनीस जातींत हाका हायपरट्रिकोसिस (hypertrichosis) म्हण्टात. तर हेर जनावरांत हाका अंगोरा (angora) अशें म्हण्टात. केंस हो कातीचोच भाग आशिल्ल्यान कसलेय कातीचे रोग जाल्यार केंसांतूय विकृती जाता. भायली पीडा, गजकर्ण, जीवनसत्त्वांचो उणाव, केंसांत उवो पडप आदी कारणांक लागून कातीचे रोग जातात आनी तांकां लागून केंस गळून पडूंक शकता. जीवनसत्त्व- ब (Vitamin B) उणें जावप, मानसिक ताण, हॉर्मोन समतोल इबाडप, ह्या कारणांक लागून वंशीग्रंथी (sebaceous glands) जाय तितलो स्राव तयार करिनात आनी केंसांच्या मुळांत खरड (dandruff) तयार करतात. हाका लागून केंस झडूंक लागतात. हाचेर उपाय म्हळयार आपली केंस वळोवपाची फणी, ब्रश आनी केंस पुसपाचो तुवालो वेगळो आनी साफ दवरप. केंसांत शांपू (shampoo) वा अडीज टक्के सेलेनिअम सल्फाइड (selenium sulfide) घालून केंस धुल्यार खरडीचेर (dandruff) गूण येता.

ल्हानशा जाग्यार केंस झडून तुळतुळीत जाल्यार ताका (alopecia areata) 'रावळूक' पडल्या अशें म्हण्टात. पूण व्हडल्या जाग्यार केंस गेल्यार ताका टक्ल पडलां अशें म्हण्टात. कात लासल्यार, तिका मार लागल्यार, कसलेंय रसायन पडल्यार वा तिचेर जंतूंचो शोथ (infection) जाल्यार माव तयार जाता आनी त्या जाग्यार केंस येनात. पूण माव नासतना, आनुवंशिक कारणाक लागून वखदांच्या परिणामाक लागून तशेंच ना ना तरेच्या जोरांक लागूनय टक्ल पडूंक शकता. दादल्या मनशाक चड करून टक्ल पडटा, हाका दादलो तरेचें टक्ल (male pattern baldness) म्हण्टात. ताचीं कारणां आनुवंशिक अँड्रोजन हॉर्मोन असमतोल (Androgen Hormone imbalance) चिंता आनी वशी ग्रंथीच्या कार्यांत इबाड आदी जावन आसात. हे तरेच्या टक्लाचेर कसलोय उपाय केल्यार खास फायदो जायना, पूण जुंवळ्या भावाच्या केंसांचें रोपण (transplantation) केल्यार गूण येता, अशें जाणकारांचें मत आसा.

रावळूक माथ्यार वा खाडार पडटा, हाचें खरें कारण अजून खबर ना, तरी हाका मानसिक आनी आनुवंशिक संबंद कारण आसात अशें म्हणपाक पुरावो आसा. स्वयंप्रतिक्षमता (autoimmunity) हेंय एक कारण आसूंक शकता. जरी योग्य उपाय खबर नासलो, तरी खूब लोकांक त्या केंस नाशिल्ल्या जाग्यार हायड्रोकॉर्टिसोनचीं (Hydrocortisn) इंजेक्शनां केल्यार गुण येता. ट्रायकोतीलोमानिया (Trichotillomania) ह्या मानसिक रोगांत, रोगी आपलेंच केंस थोड्या थोड्या जाग्यांनी तोडून उडयता. हाचेर मानसोपचार करचे पडटात. हालींच केंसांच्या मुळाकडेन आशिल्ल्या ट्रायकोमाट्रीकोमा (Trichomatricoma) म्हूण एका नव्या अर्बुदाची (tumour) जात सोदून काडल्या. ताचेर अजून संशोधन चालू आसा.

- डॉ. पूर्णानंद अवदी

## के. (कुंकळीयेकार) वैकुंठ दत्तारामः (जल्मः ?).

नामनेचो गोंयकार छायाचित्रकार. चित्रपटाच्या मळार ताका के. वैकुंठ ह्या नांवानूच लोक चड वळखतात. तो मुळचो मडगांव कोंब हांगाचो. ताचो बापूय प्रोफेसर आशिल्लो. भुरगेपणासावनच ताका चित्रकलेची आवड आशिल्ली आनी तो बेसबरीं चित्रां काडटालो. पिरायेच्या सतराव्या वर्सा तो गोंय सोडून मुंबय गेलो आनी थंय कॅमेरामन सुरेंद्र पै हाचेकडसून फोटोग्राफीचें शिक्षण घेवंक लागलो. थंय तीन वर्सां काम शिकल्या उपरांत तो एक बरो छायाचित्रकार म्हूण मुखार आयलो.

१९५३ वर्सा 'गरमकोट' ह्या चित्रपटाचें चित्रीकरण करपाक ताका पयलेच खेप संद मेळ्ळी. ताच्या ह्या चित्रपटाक पयले फावट त्या वर्साचें नॅशनल अॅवॉर्ड मेळ्ळें. ताणें काडिल्ल्या 'मयुराक्षी डॅम' हाका राश्ट्रपतीचें भांगरापदक फाव जालें. १९६२ वर्सा 'मॅन द क्रियेटर' ह्या चित्रपटाक आनी 'ट्रेसेस ऑफ मॅन' ह्या लघुपटांक राश्ट्रीय पुरस्कार फाव जाले. ताणें छायाचित्रण केल्ल्या 'सीता और गीता' ह्या सिनेमाक ताका 'फिल्मफेअर अॅवार्ड' मेळ्ळें. तेचपरी नामनेचे चित्रपटकार रामानंद सागर हाच्या 'गीत' आनी 'प्रेमबंधन' ह्या दोनूय चित्रपटांक 'ऑल इंडिया फ़िल्म असोसिएशन' चीं इनामां फाव जाल्यांत. आंतरराश्ट्रीय सुवाळ्यांत जैतिवंत जाल्ल्या सुखदेव हाच्या 'बँगाल टायर्स' आनी 'मायल्स टू गो'

ह्या चित्रपटांचें छायाचित्रण ताणेंच केलां. 'मेरे अपने', 'कोशिश', 'परिचय', 'अचानक', 'आंधी', 'मौसम', 'खुशबू', 'मीरा' ह्या ताणें छायाचित्रण केल्ल्या चित्रपटांक इनामां फाव जाल्यांत. 'सिंधदुर्ग', आनी 'गोवा मार्चेस ऑन' हो गोंयचो पयलो मुखेलमंत्री दयानंद बांदोडकार हाच्या जिविताचेर आदारिल्लो लघुपट हातूंतल्यान ताच्या छायाचित्रणाचो उंचेलो पांवडो दिश्टी पडटा.

'कोशिश' ह्या चित्रपटांत नायक आनी नायिका मोने आनी भेड्डे आसतात. आपल्या असामान्य कल्पना शक्तीन के. वैकुंठ हाणें खाशेल्या कोनश्यांनी घेतिल्ल्या छायाचित्रणाक लागून तातूंतले हावभाव, तांच्या संवादापरस चड अर्थपूर्ण जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**केणी, चंद्रकांत शांताराम:** (जल्म: १९३४, कुंकळ्ळी-गोंय).

एक नामनेचो कथाकार आनी पत्रकार. कोंकणी म्हयन्याळें 'कुळागर' आनी मराठी दिसाळें 'राष्ट्रमत' हांचो तो संपादक जावन आसा. १९५० वर्सा सावन ताचे बरपावळीक सुरवात जाली. सुर्वेक ताणें ल्हान ल्हान कथा बरयल्यो. 'धर्तरी अजून जियेताली' (१९६४) हो ताचो पयलो कथांझेलो उजवाडाक आयलो. उपरांत 'आशाढ पावळी' (१९७३), 'अळमी' (१९७५), हे कथांझेले आनी 'एकलो एकसुरो' (१९७३), 'तरेतरेची संवगां' (१९७३), 'फुलांचो हात' (१९७२- भुरग्यांची काणी) 'व्हंकलपावणी', 'उश्णीं वायणां' हीं ताचीं कांय पुस्तकां उजवाडाक आयलीं.



ताणें भारतांतल्या बऱ्याच भासांतल्या कथांचो अ ण का र केला. मराठी आनी हिंदी भासांनी ताचें कांय बरप आसा. तेचपरी गु ज रा ती, इंग्लीश तशेंच पोर्तुगेज भासांचो ताचो अभ्यास आसा. ताचे कथेंत चडशें प्रायोगीक बरप आसता.

कोंकणी, मराठी आनी हिंदी ह्या तीन भासांच्या 'त्रिवेणी' ह्या म्हयन्याळ्याचो तो संपादक आसलो. १९७६ वर्सा मंगळुर हांगा भरिल्ले ११ वे अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.

तो कोंकणी भाशा मंडळाचो अध्यक्ष आशिल्लो. १९८७ वर्सा सुरू जाल्लें, कोंकणीतलें देवनागरी लिपींतलें पयलें दिसाळें 'सुनापरान्त' हाचो तो १९८९ वर्सा मेरेन संपादक आशिल्लो. ताच्या 'व्हंकल पावणी' ह्या कथांझेल्याक १९८८ वर्साचो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जालो. गोमंतक राष्ट्रभाषा विद्यापीठाचो तो अध्यक्ष आसा.

हेर कोंकणी कथांवरीं ताची कथा चडशी थळावी वा प्रादेशिक न्हय. ताचे कथेक वैश्विक (universal) बसका आसा, अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**केणी, शरद राणू:** (जल्म: २४ ऑक्टोबर १९३३ कुंकळ्ळी-साश्टी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें एस्. एस्. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो भारतीय राश्ट्रीय काँग्रेस (Indian National Congress) संघटनेचो वांगडी आसलो. कुंकळ्ळीच्या गांवगिऱ्या वाठारांनी आनी केपें तालुक्यांत भोंवन तो लोकांक सुटके झुजाविशीं म्हत्व सांगतालो. ६ एप्रिल १९५५ दिसा मडगांव शारांत जो सत्याग्रह जाल्लो तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी णव वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. त्या भायर दंड भरूंक लायलो वा दंडभरपायेबदला आनीक दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिली. २८ ऑगस्ट १९५८ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. बंदखणींतल्यान सुटले उपरांत गोंय सुटके मेरेन ताणें राश्ट्रवादी वावर केलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**केतकर, वेंकटेश बापूजी:** (जल्म: १८५४; मरण: ३ ऑगस्ट १९३७).

नामनेचो भारतीय गणिततज्ञ आनी ज्योतीशशास्त्री. गणित आनी ज्योतीश हातूंत प्राविण्य मेळयल्ल्या एका हुशार घराण्यांत ताचो जल्म जालो. पूण घरचे गरिबीक लागून भुरगेपणांत, मॅट्रिकेक तिसरो क्रमांक मेळून लेगीत फुडें शिकप घेवप ताका जमलेंना. शाळा खात्यांत नोकरी करून ताणें गणित आनी ज्योतीश हातूंत चडांतचड गिन्यान मेळयलें. रॉयल एशियाटिक सोसायटीकडेन ताचो संबंद आयलो. लोकमान्य टिळक हाणेंय ताच्या संशोधनात्मक बुद्दीचो भोवमान आनी तुस्त केल्ली. शास्त्रशुध्द पंचांग घडोवपाखातीर ताणें खूब त्रास घेतले.

'ग्रहलाघव' आनी 'सूर्यसिध्दान्त' ह्या ग्रंथांचें ज्ञान संपादन करून ताणें १८९९ त 'केतकी ग्रहगणितम' नांवाचो ग्रंथ संस्कृत भाशेंत रचलो. तेभायर 'वैजयंती पंचांग गणितम', 'मराठी ग्रहगणित सोपपत्तिक' 'मराठी नक्षत्रविज्ञान', 'मराठी गोलद्वय', 'इंडियन अॅंड फॉरिन क्रॉनॉलजी' आनी ज्योतीशशास्त्रावेलें ज्योतिर्गणितम हे ताचे ग्रंथ खूब नामनेक पावल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**केदारनाथ:** हिमालयांतलें नामनेचें शिवक्षेत्र. ते उत्तर प्रदेशांतल्या गढवाल जिल्ह्यांत आसा. उंचाय समुद्रथरापसून ११७६० फूट. केदारनाथ आनी बद्रीनाथ ह्या दोन शिखरांच्या मदीं हें क्षेत्र वसलां. केदारनाथ क्षेत्रांत वतना मंदाकिनी न्हंय हुपून वचचें पडटा. केदारनाथाचें देवूळ गांवच्या तोंकाक आसा. हें देवूळ धोंपरभर वयर चिऱ्यांनी बांदिल्लें आसा. देवळाचो कळस आनी सभामंडप एकावेळार बांदूना, हें देवळाची बांदावळ पळोवन दिसता. देवळाचो कळस ब्राह्मी पध्दतीचो आसा. ताची उंचाय ७९१३ मी. आसा. हो कळस जरी ऊंच आसलो तरी हेवटेन तेवटेन पातळिल्ले रुंदायेखातीर तो मोटवो दिसता. देवळाचें महाद्वार व्हड आसा आनी ताच्या दोनूय वटांनी राखणदार आसात. देवळाच्या मुखार तिजुल्यांचें व्हड आंगण आसा.

केदारनाथाचें लिंग शाळुंका-पिंडी ह्या आकाराचें ना. तें कैलास शिखरा भशेन वा धान्याचे सुयेभशेन घुमटाआकाराचें आसा. ह्या लिंगाक स्वयंभू मानतात. ताच्या तळाचो घेर १०-१२ हातांचो आसा आनी उंचाय सुमार दोन हात वयर आसा. सभामंडपाच्या वण्टींत पांच पांडव, द्रौपदी, कुंती, पार्वती, लक्ष्मी, आदींच्यो पाशाणाच्यो मूर्ती बसयल्यात.

**केदारनाथाचे पुजाविधी:** केदारनाथ देवाचो अभिषेक करीनात, वा लिंगाचेर उदक घालीनात. त्या जाग्यार लिंगाचेर तुपाचे गुळे थापतात. हें लिंग चडूच वयर आसा. देखून हांगाचे भट (पंडे) देवाच्या आंगाचेर बसून भक्तांच्यो भेटेच्यो वस्तू देवाक ओंपतात. केदारनाथाच्या मुखेल पुजाऱ्याक 'रावळ' म्हण्टात. हो नंपुद्री ब्राह्मण आसा अशें कळटा. ह्या रावळाचें एक संस्थानूच जालां. तो देवाची पूजा स्वता करीना जाल्यार तें काम आपल्या शिश्यांकडल्यान करून घेता. उखीमठ ह्या वाठारांत तो रावता. थंडेच्या दिसांनी बर्फ पडटा तेन्ना स म्हयने केदारनाथाची गादी 'उखीमठ' ह्या वाठारांत आसता. गढवाल, अलमोडा आनी नैनीताल ह्या

जिल्ल्यांतल्यो कितल्योश्योच जमनी केदार देवस्थानचे मालकींच्यो आसात.

**केदारनाथाचो वाठारः** देवळाच्या भायर प्रदक्षिणा काडपाचे वाटेर अष्टदिश्यांक आठ कुंडां लागतात. हीं कुंडां पवित्र मानतात. थंयच भैरवझाप वा भृगुपतन नांवाचो एक ऊंच कडो आसा. थंयच्यान उडी घेवन देहत्याग केल्यार आत्महत्तेचें पातक लागना, तर फुडल्या जल्मांत ह्या जल्माच्यो अतृप्त इत्सा पुराय जातात, अशें क्षेत्रमाहात्म्यांत सांगलां. आदल्या काळांत खूब लोकांनी हांगा देहत्याग केला. फुडें ब्रिटिशांनी ही चाल बंद केली.

पवाली, रुद्रकुंड, वासुकी, गंगा, गौरीकुंड, उश्णकुंड, गौरीदेवी, उदककुंड, रेतकुंड, भृगुपतन, स्वर्गारोहण, महापत आदी कितलींशींच तीर्थां आनी देवस्थानां केदार क्षेत्राभितर आस्पावतात. हातूंतलीं चडशीं क्षेत्रां आनी थळां केदारनाथाचे वाटेरूच आसात.

केदारनाथ हें बारा ज्योतिर्लिंगातलें एक आसा. पांच पांडवांतल्या भीमान हें देवूळ बांदलां, अशी एक आख्यायिका आसा. ह्या थळांत भीमाक शंकराचें महिष (रेड्याच्या) रुपांत दर्शन जाल्लें, अशें सांगतात. जेन्ना भीमान आनी ताच्या भावांनी पुजेवेळार शिवलिंगाक हात लावपाचो यत्न केलो, तेन्ना शिवान महिषरुप घेवन जमनींत सूर मारलो, देखून ताचो फकत फाटलो भाग हांगा दिसता आनी वयलो भाग नेपाळांत 'पशुपतिनाथ' ह्या रूपान वयर आयला, अशें सांगतात. केदारनाथाचे शिवलिंग महिषाच्या (रेड्याच्या) फाटल्या भागाभशेन दिसता; देखून, ही आख्यायिका तयार जाली आसूंक जाय.

पंचकेदारः हांगा केदार म्हापुरुषाची पांच आंगां आसात. तीं पंचकेदार ह्या नांवान नांवाजल्लीं आसात. बदरीकेदार, मध्यमहेश्वर, तुंगनाथ, रुद्रनाथ आनी कल्पेश्वर.

मध्यमहेश्वर हें थळ केदारनाथासावन सुमार ४० मैल आसा. बदरीनाथाच्या रस्त्यान फुडें वतकच थोड्या आडवळणाचेर हें थळ लागता. थंय वतना वाटेर कालीमठ आसा. हें देवीचें सिध्दपीठ आसून थंय मड्यार बशिल्ली कालीमूर्त आसा. मध्यमहेश्वराचें देवूळ सुंदर आसा आनी थंयचें शिवलिंग स्वयंभू आसा.

केदारनाथाचे वाटेर चोपताचट्टीसून पांयवाटेन फुडें गेल्यार तुंगनाथ लागता. उखीमठासून हें थळ २२ मैलांचेर आसा. ह्या पर्वतशिखराची उंचाय १२,००० फूट इतली आसा. हें तुंगनाथाचें देवूळ खूब व्हड आसा, पूण तातूंतलें लिंग खूब ल्हान आसा.

तुंगनाथसावन रुद्रनाथाक वचपाची वाट आसा. हांगा देवूळ ना. थंय एक घोल आसा आनी तातूंत स्वयंभू शिवाचें लिंग आसा. जोशी मठाचे आलतडी हेलंग चट्टी म्हण्यांत कल्पेश्वर आसा. हांगा कर्मनाश न्हंयचो उगम आसा. पंचकेदारचें दर्शन घेतल्याबगर केदारनाथाची यात्रा पुराय जायना.

बुध्दाच्या काळांत केदारनाथ हें त्या धर्माचें व्हड केंद्र आशिल्लें. पूण शंकराचार्यान पर्थून हें थळ हिंदूधर्माचे कक्षेंत हाडलें. ताणें हांगाच आपलो देह दवरलो. केदारनाथाक शंकराचार्याची समाधी आसा. स्वयंभू पिंडीवेल्या सद्याच्या केदारनाथ देवळाचो जीर्णोध्दार अहिल्याबाईन केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## केनियाः

उदेंत आफ्रिकेंतलें स्वतंत्र प्रजासत्ताक राश्ट्र. क्षेत्रफळ ५,८२,६४७ चौ. किमी. लोकसंख्या २,११,५०,००० (१९८६). विस्तार ४° उत्तर ते ४° दक्षिण आनी ३४° उदेंत ते ४१° उदेंत. विषुववृत्त ह्या देशाच्या मदल्यान वता. ह्या देशाचे उत्तरेवटेन इथिओपिया आनी सूदान, अस्तंतेक युगांडा आनी व्हिक्टोरिया सरोवर, दक्षिणेवटेन टांझानिया आनी उदेंतेक सोमाली गणराज्य आनी हिंदी म्हासागर आसा. नायरोबी ही राजधानी.

**भूंयवर्णनः** केनियाची भूंय कायनायट, ॲस्बेस्टस, ग्रॅफायट आनी अभ्रकान भरिल्ल्या नायस आनी शिस्ट पध्दतीची आसा. अस्तंतेवटेन भुंयेच्या पोटांतले हालचालींक लागून भांगर आनी तांब्याचेय थर सांपडटात. अस्तंतेवटेनचो पर्वतांचो वाठार, नैर्ऋत्येचें ऊंच व्हड पठार, ताका मदीं फूट घालपी दक्षिण-उत्तर खचदरी, उत्तरेचो आनी आग्नेयेवटेनचो उण्या उंचायेचो उसू पडिल्लो वाठार आनी व्हिक्टोरिया सरोवराच्या आनी हिंदी म्हासागराचे दर्यादिगांवेली अरुंद, सकयली भूंय अशी हांगाची सादारण भूंयरचणूक आसा. हिंदी म्हासागराची सुमार ५०० किमी. ची देग ह्या देशाक लाबल्या. मोंबासा आनी मालिंदी हीं हांगाचीं मुखेल बंदरां आसात. सकयली पिकाळ दर्यादेग ३ ते १६ किमी. रुंदायेची आसा आनी तिचे अस्तंतेक सुमार ५०० किमी. मेरेनचो वाठार ऊंच जायत गेला. देशाच्या नैर्ऋत्य वाठारांत सुमार ३,३०० मी. उंचायेचें पठार आसा. ह्या पठाराच्या मदल्यान आफ्रिकेची नामनेची खचदरी दक्षिण-उत्तर पातळ्ळ्या. ह्या खचदरीचे अस्तंतेक उंचाय उणी जायत वता आनी ताच्याफुडें व्हिक्टोरिया सरोवर आनी ताचे देगेवेली सामकी सकयली भूंय आसा. युगांडाचे शिमेर मौंट ॲलगने हो ४,३२१ मी. उंचायेचो पर्वत आसा. खचदरीचे उदेंतेक ॲबर्डेअर पर्वताची सुमार ३,००० मी. उंचायेची वळ आसा. तिची उदेंतेवटेनची देंवती सोंपता थंय ५,२०० मी. उंचायेचो मावंट केनिया हो पर्वत आसा. विषुववृत्ताचे लागीं आसून पसून ताचो वयलो वाठार सदांच हिमान भरिल्लो आसता. खचदरींत कामासिया दोंगुल्ल्यांची वळ आनी निद्रीस्त आनी मेल्ल्या ज्वालामुखीं भायर मागाडी, नैवाशा, एल्मेंटीटा, नाकूरू, हॅनिंग्टन, बॅरिंगो हीं सरोवरां आसात. ताचे उदेंतेक युगांडाचे शिमेमेरेन दोंगरी वाठार आसा. हिंदी म्हासागराक मेळपी ताना, आती-सबाकीत्सावोनी आनी गॅलाना, लोरीयनच्या चिखला वाठारांवटेन व्हांवपी इवासो-निरो आनी व्हिक्टोरिया सरोवराक मेळपी सोईया, गॉरी आनी याला ह्यो केनियांतल्यो मुखेल न्हंयो.

**हवामानः** केनिया विषुववृत्ताच्या दोनुय वटांनी सारकोच पयस मेरेन पातळ्ळा तरीपूण थंयच्या हवामानांत वेगळेपण जाणवता. दर्यादिगांवेलें तापमान २६.६° से आसता. थंय वर्सभर तापमानांत व्हडलोसो फरक दिसून येना. पठारी वाठारांत उंचायेप्रमाण तापमान बदलता. १,६७५ मी. उंचायेवयल्यान नायरोबी हांगा १९° से. जाल्यार २,७६० मी. उंचायेवेल्या विषुववृत्ताच्या वाठारांनी तें १३.३° से. आसता. उसू पडिल्ल्या सुक्या वाठारांनी तापमान २१° से. ते २७° से. आसता. देशाच्या बऱ्याच वाठारांनी ७६ सेंमी. मेरेन पावस पडटा. उत्तरेवटेन तो उणो म्हळ्यार २५ सेंमी. आसता. दर्यादिगांचेर १०० सेंमी. मेरेन पावसाची नोंद जाता जाल्यार उसू पडिल्ल्या वाठारांनी फकत १२-१३ सेंमी. पावस पडटा. ऋतूंचो फरक तापमानापरस पावसाक लागून चड जाणवता. एप्रिल ते जून आनी ऑक्टोबर ते डिसेंबर ह्या काळांत चड पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजातः** दर्यादिगांचेर माड, चिखलाच्या वाठारांनी वाडपी खाशेली वनस्पत, सदांच पांचवेचार आसपी रुख आनी ९०० ते १,८०० मी. उंचायेच्या वाठारांनी १-१.५ मी. उंचायेचें तण आनी ल्हान सान झोंपां आसात. पठारी वाठारांनी बऱ्याच सुवातींचेर २-२.५ मी. उंचायेचें सॅव्हाना तण आनी मदींमदीं कांट्यांचीं झोंपां सांपडटात. उंचेल्या वाठारांनी कोंडो, मदेराच्या लांकडाचे रुख, कापराचीं झाडां, आफ्रिकन ऑलिव्ह, पोडो, सीडार हे रुख आसात.

केनियांतल्या तणांच्या वाठारांनी आनी रानांनी विंगड विंगड प्राण्यांची गर्दी आसा. हत्ती, गेंडो, झेब्रा, रानरेडो, गॅझेली, ऑरिक्स, तरातरांचीं हरणां, विल्डेबिस्ट (नू), हार्डबिस्ट इंपाला, इलॅंड हे तणाचेर जियेवपी ते भायर शिंव, चित्तो, बिबटो वाग, तरस, कोलो हे मांस खावपी प्राणी हांगा आसात. बॅबून आनी हेर जातींचीं माकडां रानांनी दिसतात. सारस, बोकीं, न्हंया-सरोवरांतल्यान मानगीं आनी हिप्पो आसात. शहामृग, गुरुड, गिदां आनी हेर तरेकवार सुकणीं हांगा आसात. मांबा, कोब्रा, पंफ ॲडर, म्हायंडोळ, हे सोरोप आनी विंगड विंगड तरांचे किडे हांगा आसात. पूण हांगा शिकारेचेर बंदी आसा.

**इतिहासः** केनियाच्या पूर्विल्ल्या इतिहासाविशीं चडशी म्हायती मेळना. सातव्या शेंकड्यांत अरब आनी इराणी वेपाऱ्यांनी उदेंत दर्यादिगांचेर वसणूक केली आनी झांझिबार, इराणचें आखात आनी तांबड्या दर्याच्या




वाठारांनी वेपार करूंक सुरवात केली. १४९८ त वास्को द गामा मालिंदी हांगा पावलो. ताचेपयलीं हिंदी आनी चिनी वेपारी हांगा येताले. फुडलीं २०० वर्सां हांगा पोर्तुगेज आनी अरब हांचेमदीं सत्तेखातीर सर्त लागली. १७४० त अरबांनी पोर्तुगेजांक हांगासावन धांवडायल्याउपरांत झांझिबारच्या सुलतानाची सत्ता आयली. १९ व्या शेंकड्याच्या मध्याक' जर्मन आनी ब्रिटीश धर्मप्रसारकांनी केनियाच्या भितरल्या वाठारांत आनी व्हिक्टोरियांत पावल दवरलें. तांच्यापयलीं अरब आनी स्वाहिली लोक मोंबासासावन व्हिक्टोरिया सरोवर, किलीमांजारो आनी एलगन पर्वतामेरेन हस्तिदंतांच्या सोदाखातीर वताले, पूण त्रासांचो प्रवास आनी मसाई लोकांची भिरांत ह्या गजालींक लागून ते चडसो हो सोद मदल्यामदीं सोडून दिताले. अठराव्या शेंकड्याच्या मध्याक उत्तरेखटेनच्यान केनियाच्या मदल्या वाठारांनी आयिल्ल्या झगडाळ हेडग्या मसाई पंगडांचो शेक वाडूंक लागलो. तांणी शेतवडीचेर जियोवपी बांटू लोकांचेर घुरयो घाल्यो. नांदी लोकांच्या मात ते वाटेक गेले नात. तावेता आनी तीतांनी रानांचो आनी दोंगरांचो आलाशिरो घेतलो. किकुयू लोकांनी तांकां बरेभशेन प्रतिकार केलो. ह्या वेळार हांगा रोगांची सांथ आयली आनी बरेच लोक सोंपले. युरोपीय राश्ट्रांची शक्त वाडिल्ल्यान तांणी १८८८ त हांगा 'इंपीरिअल ब्रिटीश ईस्ट आफ्रिका' ह्या नांवान कंपनीचो कारबार चालू केलो. १८९० त ब्रिटीश आनी जर्मन हांचेमदीं कबलात जावन १८९५ त हो वाठार ब्रिटीश ईस्ट आफ्रिका ह्या नांवान जाहीर जालो. विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक हांगा रेल्वेमार्ग पावले आनी युरोपीय तशेंच आशियाई लोकांच्यो वसाहती वाडूंक लागल्यो. १९२० त ह्या वाठाराक ब्रिटीश 'क्राव्न कॉलनी' हें नांव मेळ्ळें. दोन म्हाझुजांच्या मदल्या काळांत आशियाई लोकांनी हांगा सत्ता वाडोवपाचे यत्न केले, पूण ब्रिटिशांच्या आनी हेर युरोपीय देशांच्या बळाक लागून ते फळादीक जाले नात. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत हांगाच्या मूळच्या आफ्रिकन लोकांनीच सत्ता हातासपाखातीर संघर्श सुरू केलो. टॉम एम्बोया आनी जोमो केन्याटा हांच्या फुडारपणाखाला चलपी माऊमाऊ चळवळ फुडें हिंसक जाली. १९५२ ते १९५९ मेरेन हांगा आणीबाणीची परिस्थिती जाहीर जाली. १९५४, १९५७ आनी १९६० त हांगा तीन संविधानाचे विंगड विंगड नमुने मुखार आयले पूण १९६० तल्या संविधानाक मान्यताय मेळ्ळी. १९६३ त जाल्ल्या वेंचणुकांनी टॉम एम्बोया हाका व्हड भोवमत मेळ्ळें. ताचेउपरांत जोमो केन्याटा हाच्या फुडारपणाखाल 'केनिया आफ्रिकन नॅशनल युनियन' (कानू) पक्षान १२ डिसेंबर १९६३ दिसा स्वतंत्र देशाची घोशणा जाल्याउपरांत देशाचो कारभार हातांत घेतलो. जोमो केन्याटा पंतप्रधान जाल्याउपरांत १६ डिसेंबर १९६३ दिसा केनिया संयुक्त राश्ट्रांचो वांगडी जालो. दर्या देगेलागचो १६ किमी. रुंदायेचो वाठार झांझिबारच्या सुलतानाच्या हाताखाल आशिल्लो, पूण केनिया प्रोटेक्टोरेट म्हूण ब्रिटीश ताचो कारभार चलयताले. सुलतानान हो वाठार केनियाचे सुवादीन केलो.

'केनिया आफ्रिकन डॅमोक्रॅटिक युनियन' (कादू) हो विरोधी पक्ष राजकर्त्या कानू पक्षांत विलीन जालो (१९६५). १९६६ त उपाध्यक्ष ओगिंगा- ओडिंगा हाणें राजीनामो दिवन 'केनिया पीपल्स युनियन पार्टी-केपीयू' ह्या पक्षाची थापणूक केली. ह्या पक्षाक विरोधी पक्ष म्हूण मान्यताय मेळ्ळी. १९६९ त टॉम एम्बोया ह्या मंत्र्याचो खून जालो. केपीयू चेर बंदी घाली आनी ओडिंगाक ताच्या वांगड्यांसयत बंदखणींत घालो. डिसेंबर १९६९ तल्या वेंचणुकांनी केन्याटा आनी कानू पक्षाचे सभासद बिनविरोध वेंचून आयले. १९७४ त जाल्ल्या वेंचणुकांनी केन्याटा वेंचून आयलो पूण ताच्या हेर वांगड्यांचें जैत जालें ना. १९७८ त केन्याटाक मरण आयल्याउपरांत डॅनियल मोइ राश्ट्राध्यक्ष जालो. सद्यामेरेन तोच ह्या राश्ट्राचो मुखेली जावन आसा.

**राज्यवेवस्थाः** १९६३ च्या संविधानाप्रमाण हांगा लोकसभा आनी

सीनेट अशा दोन घरांची संसद आशिल्ली. १९६६ त संविधानांत बदल जावन सीनेट आनी लोकसभा एकठांय करून एकाच घरांत बसका घेवपी विधीमंडळाची निर्मणी केली. १९६९ त पर्यून संविधानांत बदल जालो. राष्ट्राध्यक्ष हो हांगा राष्ट्राचो मुखेली आसता. राखणेदळांय ताच्याच हाताखाला आसतात. राष्ट्रपतीपदाखातीर वेंचणूक लडयतल्याक ३५ वर्सां पुराय जावच्चीं पडटात. संसदेची वेंचणूक दर पांच वर्सांनी जाता. हातूंत १५८ वांगडी आसतात, जे वेंचणुकांच्या मार्गांतल्यान संसदेंत पावतात. १२ वांगडी राष्ट्राध्यक्ष नेमता. जरी पक्ष निर्मणी करपाचो हांगाच्या लोकांक हक्क आसलो तरी हालींच्या काळांत हांगा एकाच पक्षाचो नेट आसा. १८ वर्सां पुराय केल्ल्या दरेकल्याक मत दिवपाचो अधिकार आसता.

थळावो राज्यकारभार प्रांतांतल्यान जाता. देशांत असले आठ प्रांत आसात. व्हडल्या शारांच्या प्रशासनाखातीर नगरपालिको आसतात. गांवगिऱ्या वाठारांनी 'बाराझ' नांवाच्यो सरकारी संस्था राज्यकारभार चलयतात. न्यायदानाची पध्दत विंगड विंगड पांवड्यांचेर आसा. नायरोबी हांगा सगळ्यांत उंचेल्या पांवड्याचें न्यायालय आसा.

**अर्थीक स्थिती:** अर्थीक स्थिती बऱ्याच प्रमाणांत शेतवडीचेर आदारिल्ली आसा. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत कारखान्यांची वाड जायत आसा. पठारी वाठारांनी काफी, च्या, मको, गंव, पायरेथ्रम हीं पिकां चड प्रमाणांत जातात, जाल्यार सकयल्या वाठारांनी नाल्ल, काजू, कापूस, ऊंस चड जाता. शेतांतल्या उत्पन्नावांगडा मसमी भिकणां, तीळ, बटाट, घेवडे, तेलाच्यो बियो हीं पिकां हवामानाप्रमाण विंगड विंगड वाठारांनी जातात. आंबे, हेर तार्जीं फळां, फुलां, भाजी-पालो हांची युरोपांत निर्यात जाता.

रानांनी मेळपी बांदपावळीचें आनी मदेराचें लांकूड हांगा बऱ्याच प्रमाणांत आसा. पोडो, वॅटलू, सीडार, सायप्रस हे मोव लांकडाचे आनी मुशेरगी, नुइरी, मुकेओ, कापूर आनी मुसैसे हे घट लांकडाचे रुख हांगा वाडटात.

खनिज संपत्तीय ह्या देशांत बरीच आसा. मागाडी सरोवरांत सोडा भरपूर मेळटा. तांबें, भांगर, रुपें उण्या प्रमाणांत आसा. हेभायर चुनखडी, डायटोमायट, मीठ, चिनी माती, जिप्सम, घरां बांदपाचे फातर आनी कार्बन डाय-ऑक्साइड, व्हर्मिक्युलायट, बॅरायट्स, मॅग्नेसायट, फेल्स्पार, बेरिल, ॲक्वामरीन, फ्लुऑरायट, इंद्रनील, गॅलेना, बोलास्ट्रायट, कॉरंडम, ग्वानो हे पदार्थ मेळटात. व्हिक्टोरिया सरोवरांत 'तिलापिया' नुस्तें आसा. दर्यादिगांचेरुय बऱ्याच प्रमाणांत नुस्तेमारी चलता. न्हंयांतल्यान ट्राउट नुस्तें मेळटा.

अर्थीक स्थिती सुदारपाखातीर पर्यटनाचो बरोच उपेग जाला. केनिया टुरिस्ट डेव्हलपमेंट कॉर्पोरेशन हे सरकारी संस्थेवरवीं पर्यटनाच्या मळार उदरगतीचो वावर जाता. हांगाची सैमीक सोबीतकाय, तरांतरांची मोनजात हांकां लागून संवसारांतल्या सगळ्या कोनशांतल्यान पर्यटक हांगा पावतात. १९८४ वर्सा पर्यटन उद्योगांतल्यान देशाक ६७,३०,००,००० अमेरिकन डॉलर्सचें उत्पन्न मेळ्ळें.

चडशे कारखाने शेतवडीक आदार दिवपी आसात. मुखेल उद्योगधंदे म्हळ्यार कपडो तयार करप, यंत्रां आनी वाहनां बांदपाचे कारखाने, रसायनांचे उद्योग ह्या सारके आसात. नायरोबीं शारांत चडशे उद्योगधंदे आसात. उद्योगधंद्यांक पालव दिवपाखातीर इंडस्ट्रीयल डेव्हलपमेंट बँक, इंडस्ट्रीयल ॲंड कमर्शियल डेव्हलपमेंट कॉर्पोरेशन आनी डेव्हलपमेंट फायनान्स कंपनी ह्यो संस्था वावर करतात. शिलींग हें हांगाचें चलनी नाणें जावन आसा.

**येरादारी आनी संचारण:** १९८४ मेरेन ५४,५०० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. ह्याच वर्सामेरेन रेल्वेमार्गांची लांबाय २,६५४ किमी. आशिल्ली. मोंबासा हें हांगाचें मुखेल बंदर. 'केनिया एअरलायन्स' ही विमानकंपनी हवाई मार्गावेल्या येरादारीचें नियंत्रण करता. नायरोबी आनी मोंबासा हांगा मुखेल आंतरराष्ट्रीय विमानतळ आसात.

१९८५ मेरेन हांगा ५ खबरापत्रां आशिल्लीं. खबरापत्रां इंग्लीश आनी स्वाहिली भाशेंतल्यान उजवाडाक येतात. रेडिओ आनी दूरदर्शनाचीय बरी तजवीज ह्या देशांत हालींच जाल्या.

**लोक आनी समाजजीण:** केनियाचे मूळचे लोक विंगड विंगड पंगडांचे आसात. किकूयू, लुओ, लुह्या, कांबा, किसिई, मेरु, मिजीकेंडा, किप्सिगी, तुर्काण, नांदी, मसाई,ओग्डेन, तुगेन, एलगेयो ह्यो कांय मुखेल टोळयो आसात. ह्या भायर हांगाच्या लोकांमदीं अरब, भारतीय हिंदू, मुसलमान, गोंयचे किरिस्तांव, पाकिस्तानी आनी युरोपीय हांचोय आस्पाव जाता.

हॉकी, क्रिकेट, फुटबॉल, टॅनिस ह्या सारक्या खेळांची हांगाच्या लोकांक बरीच आवड आसा. देशांत सगळ्या धर्मांच्या लोकांक स्वतंत्रताय आसा. नायरोबी सारक्या शारांत विंगडविंगड धर्मांचीं प्रार्थनाघरां आनी धर्नीक थळां पळोवंक मेळटात. दर्यादिगांवेल्या वाठारांतले चडशे लोक मुसलमान आसात.

हांगाच्या मुळाव्या लोकांचे विंगडविंगड कलाप्रकार आनी हेर लोकांचे कलाप्रकार हांची बरीच भरसण हांगा पळोवंक मेळटा.

**शिक्षण:** केनियाचें राष्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण २५% आसा. हांगा अजूनमेरेन शिक्षण सक्तीचें, फुकट आनी एकसारकें जावंक ना.७ वर्सांचें मुळावें, ताचे उपरांत ४ वर्सां माध्यमिक आनी २ वर्सां उच्च माध्यमिक अशें तेरा वर्सांचें शाळेंतलें शिक्षण आसता. शिक्षणीक वर्स जानेवारीसावन सुरू जाता. शिक्षणाचें माध्यम इंग्लीश भाशेंत आसा, पूण कांय वाठारांनी आवयभाशेंतल्यान शिक्षण दितात. शिक्षण संस्था सरकारी आनी खाजगी आसात. सरकारी शिक्षणसंस्थांचो कारभार शिक्षण मंत्रालयाकडल्यान जाता. उंचेल्या पांवड्यावेलें शिक्षण नायरोबी हांगा आशिल्ल्या केनिया विश्वविद्यालयांतल्यान दितात. हांगाचे बरेच विद्यार्थी शिक्षणाखातीर ब्रिटन, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, भारत, कॅनडा ह्या सारक्या देशांनी वचून रावल्यात. तेभायर हेर देशांतले विद्यार्थीय केनियांत शिक्षणाखातीर येतात. विंगडविंगड मळावेलें शिक्षण दिवपाची वेवस्था ह्या देशांत आसा.

**भाशा आनी साहित्य:** चडश्यो आफ्रिकन जमाती तांच्या विंगडविंगड बोलीभाशांतल्यान वेव्हार करतात. तरीपूण स्वाहिली ही हांगाची मुखेल भाशा आसा. स्वाहिलीवांगडा राज्यकारभारांत इंग्लिशीचोय उपेग करतात. आशियाई लोकांमदीं, पंजाबी आनी गुजराती भाशा उलयतात.

**म्हत्वाचीं थळां:** नायरोबी ही राजधानी. मोंबासा हें बंदर आशिल्लें शार, समुद्रथरासावन १,८३० मी. उंचायेचेर आशिल्लें नाकूरु, किसूमू, टीका, एल् डोरेट, ळयेरी, किटाले, नान्यूकी, केरीचो हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं थळां आसात. व्हिक्टोरीया सरोवराचो कांय वाठार, रुडॉल्फ सरोवर तशेंच त्साव्हो, ॲबर्डेअर, मावंट केनिया हीं राष्ट्रीय उद्यानां भोंवडेकारांचे नदरेंतल्यान म्हत्वाचीं थारल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**केप व्हेर्द जुंवे:** ॲटलांटिक म्हासागरांतले कांय जुंवे. क्षेत्रफळ: ४,०३३ किमी.; लोकसंख्या: ३,४२,००० (१९८६). अक्षांश: १४° ४८′ उत्तर ते १७° १२′ उत्तर आनी रेखांश: २२° ५२′ अस्तंत ते २५° २२′ अस्तंत. आफ्रिका खंडाचे अस्तंतेवटेन हे जुंवे आसात. हातूंतल्या ९ जुंव्यांचेर लोक रावतात जाल्यार हेर बऱ्याच जुंव्यांचेर लोक रावनात. बोआ व्हीश्ता (६०६ चौ. किमी.), साल (२२५), साऊँ, निकूलाऊ (३५०), सांता लुझीया (४७), साऊँ व्हिसेन्ते (१९५), सांतु आंतांव (६८९) ह्या उत्तरेवटेनच्या जुंव्यांक विंडवर्ड वा बार्लाव्हेंतो म्हण्टात जाल्यार मायू (२१२), साऊँ त्यागू (९३०), फोगू (४९२), ब्राव्हा (६२), रेंबू ह्या दक्षिणेवटेनच्या जुंव्यांक लीपर्ड वा सोतान्हेंतो अशें म्हण्टात. प्राईया ही हांगाची राजधानी आसा.

ह्या जुंव्यांचेर भूंयकांपांचें प्रमाण बरेंच चड आसा. वर्सुकी पावस १०-२५ सेंमी. आसता. हवा उश्ण (१७° से. ते ३०° से.) आसता. काफी, मको, तंबाखू, ऊंस, कापूस, केळीं, संत्रां, बटाट ही हांगाची मुखेल पेकावळ. हांगा बरेच ल्हानसान उद्योगधंदे आनी कारखाने चलतात.




पंदराव्या शतमानाच्या मदीं पोर्तुगेजांनी ह्या जुंव्यांचो सोद लायसर थंय कोणूच रावनाशिल्लो. १४५५ त हें जुंवे थेट पोर्तुगेज शेकातळा आयले. १९७५ त ह्या जुंव्यांक पुरायपणान पोर्तुगेजांकडल्यान स्वतंत्रताय मेळ्ळी. हांगाचे वट्ट लोकसंख्येतले सुमार ७१% लोक भरसल्ल्या वंशाचे (मुलाटो), २८% निग्रो आनी उरिल्ले हेर आसात. धर्मीक नदरेन सुमार ९०% वयर लोक रोमन कॅथलिक धर्म पाळटात. येरादारीची चडशी उदरगत हांगा जावंक ना. शिक्षणाचें प्रमाण बरें आसलें तरी उंचेल्या पांवड्यावयल्या शिक्षणाची व्हडलीशी वेवस्था ना. आरिस्तिदेस मारिया परैरा हो हांगाचो राश्ट्रपती आसा. साल जुंव्यावयल्या इशार्गु, हांगा सगळ्यांत बरो विमानतळ आसा, जाल्यार सांव व्हिसेनो हांगाचें मोंडेलू हें मुखेल बंदर आसा. इश्कूद हें हांगाचें अधिकृत चलन, जाल्यार पोर्तुगेज ही अधिकृत राजभाशा.

- कों. वि. सं. मं.

**केरकार, केसरबाय:** (जल्मः १३ जुलय १८८१, केरी-फोंडें; मरणः १५ सप्टेंबर १९७७, मुंबय).

नामनेची गोंयकान्न शास्त्रीय संगीत गायिका. तिचो जल्म एका संगिती घराण्यांत जालो. तिचे आवयचें नांव भीमाबाय आशिल्लें. ल्हानपणासावन तिका संगीताची ओड आशिल्ली. गोड आवाजाची देणगी तिका जल्मजात मेळिल्ली. जात्रेच्या दिसांनी जावपी गवळण कालो ह्या नाटिकेसारक्या कालोप्रकारांत केसरबाय कृष्णाची भूमिका करताली आनी ते भूमिकेंतलें तिचें गायन आयकुपाखातीर शेजारच्या गांवांतल्यान लोकांची गर्दी जाताली.

घरांतल्या संगीताच्या शिक्षणान तिचें समाधान जालेंना. तिका शास्त्रीय संगीत शिकपाची उपाट इत्सा आशिल्ली. त्या काळांत नामनेचो गायक पं. वझेबुवा दिवचल लागसार आशिल्ल्या लामगांव गांवांत श्रीमंत लामगांवकार देसाय हांगेर रावतालो. थंय बुवाकडेन संगीताचें शिक्षण घेवपाखातीर ती आवयवांगडा बिराड करून रावपाक गेली. सुमार दोन वर्सां तिणें बुवाकडल्यान तालीम घेतली. उपरांत, बुवाक भोंवडेर वचचें पडिल्ल्यान तिची तालीम बंद जाली. ह्या वेळार केसरबायची पिराय सुमार इकरा वर्सांची आशिल्ली. तिचें सवाय वर्स तालमीबगर गेलें. पूण तिचो संगीताचो रियाज नेमान चालू आशिल्लो आनी संगीताचें शिक्षण घेवपाची तळमळ वाडत आशिल्ली. संगीताचें उंचेलें शिक्षण घेवपाची तिची वेवस्था जावंची म्हूण केरकार कुटूंब १९०८ त मुंबय गेलें.

मुंबयंत त्या काळांत सतार, पखवाज आनी गायन हे कलेंत फिशालंकाय जोडिल्लो बरकतूल्लाखाँ हाचें नांव गाजतालें. ताच्याकडल्यान तालीम मेळोवप भोव कठीण आशिल्लें. पूण केसरबायचो ताळो, लय आनी गायन पळोवन ताणें तालीम दिवपाचें मान्य केलें. ही तालीम केसरबायक अखंड पांच वर्सां मेळ्ळी. फुडें खाँ सायबाक पतीयाळा संस्थानचो दरबारी गायक म्हूण नोकरी मेळिल्ल्यान ही तालीम सुटली. सतारीयाकडल्यान घेतिल्ल्या हे लयप्रधान गायकीचो उपेग केसरबायक आपल्या फुडल्या जिवितांतली संगीतांतली उदरगत घडोवन हाडपाक जालो. तिची फुडें जी प्रगती जाली, तातूंत बरकतुल्लाचो म्हत्वाचो वांटो आसा. तिच्या उपरांतच्या गायनांत एका स्वराकडल्यान दुसऱ्या स्वराकडेन वतना अती सूक्ष्म आंदोलनां दिसून येतालीं, तीं सतारीचीं आंदोलनां आशिल्लीं.



केसरबाय केरकार

शिक्षण बंद जालें तरीकूय केसरबायची शिक्षणाची तळमळ वाडत आशिल्ली. त्या काळांतलो नामनेचो असो गावपी पंडीत भास्करबुवा बखले हाका विनंती करून, व्हड यत्नांनी तिणें शिकवण मेळयली. पूण देड वर्सांउपरांत बुवांन पुण्याक क्लास सुरू केल्यान ताका पुण्याक वचचें पडलें आनी तीय तालीम बंद जाली. तालीम बंद जाली तरीकूय केसरबाय निर्शेलीना. शास्त्रीय संगीताच्या शिक्षणाचो तिचेकडेन सांठो जाल्लो तरी आनीकूय उंचेलें शिक्षण घेवपाची उमळशीक तिका लागिल्ली. ती योग्य गुरुच्या सोदांत आशिल्ली.

भास्करबुवा केसरबायक शिकयता आसतना, भास्करबुवाचो गुरुजी खाँ साहेब अल्लादीया खाँ, हो केसरबायगेर दोनदां पाविल्लो. तेन्ना केसरबायची ताचेकडेन वळख आशिल्ली. ताचेकडल्यान शिक्षण घेवपाची तिच्या मनांत उपाट इत्सा आशिल्ली. सुर्वेक सावन आतांमेरेन गायनाच्या शिक्षणांत येवपी आडमेळ्यांक तिणें धाडसान तोंड दिल्लें. तशेंच हे खेपेय तिणें उपाट यत्न केले आनी तिच्या यत्नांक यश आयलें. करवीरचो छत्रपती शाहू म्हाराज, कलकत्त्याचो संगीताचो शौकीन गिरेस्त शेट लाला दूलीचंद आनी मुंबयचो श्रीमान शेट विठ्ठलदास द्वारकादास ह्या तिगांयवरवीं केसरबायन खाँसायबाक विनंती करतकच कांय अटींचेर खाँसायबान मान्यताय दिली. तालीम सुरू जाली आनी १ जानेवारी १९२५ दिसा संगीतांतल्या व्हड जाणकारांचे उपस्थितींत गंडा बंधन सुवाळो मोट्या दबाज्यान जालो.

ज्या अटींचेर खाँ सायबान केसरबायक शिक्षण दिवपाचें मान्य केलें, त्या अटींचो विचार केल्यार अशें दिसून येता की खाँसायबाक केसरबाय ही एकटीच जयपूर घराण्याची गायकी पेलून आपली शागीर्दी सार्थ करूंक शकतली अशें दिसलां आसूंये. खाँसायबाकडेन अखंड तालीम घेवन केसरबायन जयपूर घराण्याची खरी गायकी खोलायेन आपणायली. खाँसायबाकडलो संगीताचो रियाज सकाळ सांजवेळ चलतालो. केसरबायक १९२०-१९४६ ह्या २६ वर्सांच्या काळांत खाँसायबाचें मोलादीक मार्गदर्शन मेळ्ळें. तिणें ह्या काळांत, कितल्योश्योच ऊंच पांवड्याच्यो मैफली सादर केल्यो. संगीतांतल्या जाणकारांनी तिच्या गायनाची उपाट तुस्त-तोखणाय केली.

केसरबायचे खूब सत्कार जाले. एप्रिल १९३८ त, कलकत्त्याच्या

नागरीकांकडल्यान तिचो व्हडलो सत्कार जालो. तिका रवींद्रनाथ टागोर हाणें स्वहस्ताक्षरांत पत्र धाडून 'सूरश्री' ही पदवी दिली. तिका दिल्लीची सरकारी सनद मेळ्ळी. १९५० त, 'पद्मभूषण' पुरस्कार मेळ्ळो. महाराष्ट्र सरकारान तिका राजगायिकेचो भोवमान दिलो. मलबाराव सरदेसाय हाचे अध्यक्षतेखाल गोंयकारांनीय तिचो व्हड सत्कार केलो. दर वर्सा केसरबाय केरकार हिचो भोवमान म्हूण गोंयांत सरकारी पांवड्याचेर सूरश्री केसरबाय केरकार स्मृती संगीत समारोह हो संगीताचो उत्सव जाता आनी ह्या उत्सवांत भारतांतले नामनेचे संगीतकार हाजिरी लायतात. तिचो मूळ गांव केरी (फोंडें) गोंय हांगा, सूरश्री केसरबाय केरकार ह्या नांवाचें एक माध्यमिक स्कूल आसा.

- डॉ. मलबाराव सरदेसाय

**केरकार, चंद्रकांत:** (जल्म: २० मार्च १९३२, केरी-फोंडें).

गोंयचो सुटके झुजारी. तो मुंबय १९५३ वर्सा सावन 'राश्ट्रीय कॉंग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी जालो. ऑगस्ट १९५४ वर्सा बेळगांव वाठारांत ताणें राश्ट्रवादी वावर केल्लो. उपरांत सुटके झुजारी पीटर आल्वारीस हाणें ताका गोंयांत भूंयगत राजकी वावर करूंक धाडलो. १५ ऑगस्ट १९५४ दिसा ताणें पोळे वाठारांत अॅन्थनी द सोउझ हाच्या फुडारपणाखाल सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिली, दंड भरूंक लायलो आनी वीस वर्सां खातीर ताचे राजकी हक्क काडून घेतले. उपरांत २० मार्च १९५६ दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. सुटके उपरांत तो सुटके झुजाचो परतो वावर करूंक लागलो. साश्टी तालुक्यांतल्या म्हाड्ड आनी फातोड्डें वाठारांत पुरुषोत्तम काकोडकार हाणें आश्रम काडिल्लो, तातूंतूय ताणें वावर केला.

१९६० वर्साच्या शेवटाक ताणें रवींद्र केळेकार, रवींद्र रायतूरकार, आनास्तासियो आल्मैदा, सुरेश काणेकार आनी मनोहर प्रभु हांचे वांगडा काणकोणच्या माशें वाठारांत एक अभ्यास मंडळ सुरू केलें. उपरांत २० एप्रिल १९६१ दिसा पोलिसांनी ताका पोर्तुगेज गोव्हेर्नादोर जेराल हाच्या मुखार काळो बावटो दाखोवन निदर्शना करपांत वांटो घेतिल्ल्यो म्हूण अटक केली. २० जून १९६१ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली.

भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. उपरांत फोंड्यां तालुक्यांतले कॉंग्रेस कमिटीचो अध्यक्ष म्हूण ताका वेंचून काडिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**केरकार, जगन्नाथ राय:** पेशव्यांचे मुस्तींतलो एक झुजारी. नामनचो झूज-मुत्सद्दी. बक्षीबहाद्दर जिवबादादा केरकार हाचो हो बापोलभाव. जिवबादादा हाणेंच ताका शिंद्याच्या सैन्यांत नोकरी दिल्ली. ताणें कांय झुजांत इतली बरी कामगिरी केली की स्वता शिंदे सरकारान ताका सरदारकेचीं वस्त्रां दिलीं. ताच्या सैन्यांत १५ हजार घोडेस्वार, २५ हजार गारदी आनी २०० नाळी आशिल्ल्यो. दिल्लीचेर गिलच्यांनी चाल केली तेन्ना व्हड पराक्रम करून ताणें तांकां परते धांवडायले.

- कों. वि. सं. मं.

**केरकार, जिवबादादा गणेश:** (जल्म: १७४० केरी; मरण: ६ जानेवारी १७९६, जांबगांव).

पेशव्यांचे मुस्तींतलो झुजारी. ताचें मूळ घराणें पेडणें म्हालांतल्या मोरजी वाठारांतलें. ताचो आजो विठ्ठल शेणवी संजगिरी हो मोरजेचो कुळकर्णी आशिल्लो. ताका गणेश, बळवंत आनी रामकृष्ण अशे तीन चले आशिल्ले. तातूंतल्या गणेश हाचो जिवबा हो व्हडलो चलो. ताका बापोलयो बळवंत हाका पोसको दिल्लो. ताच्या आज्यान केरी वाठारांत जागो घेवन घर बांदलें. उपरांत घरचीं सगळीं मनशां मोरजी सोडून केरी वाठारांत रावंक गेलीं. ताचें मुळावें शिक्षण घरचेघराच जालें. उपरांत सोळाव्या वर्सा फुडलें शिक्षण घेवंक तो कोल्हापुराक गेलो. थंय एका पंडिताकडेन घरकाम करून संस्कृताचो अभ्यास करूंक लागलो. थंयच ताका व्यायाम करपाची संवय जाली. एका वर्सां उपरांत तो पुण्यांत गेलो आनी पेशव्याचो सरदार बर्वे हांगेर रावंक लागलो. बर्वे हाचेवतीन ताका पेशव्यागेर बाकनीस म्हूण नोकरी मेळ्ळी. बर्वे मरतकच जिवबादादाक ताच्या पथकाचो मुखेल म्हूण नेमलो. हें पथक घेवन पिरायेच्या २१ व्या वर्सा तो सदाशिवराव भाऊ हाच्यावांगडा उत्तरेक गेल्लो. पानिपतच्या झुजांत ताणें बरोच पराक्रम केलो. उपरांत नानासाहेब पेशवा हाणें महादजी शिंदे हाका उत्तरेच्या सुभेदाराचीं वस्त्रां दिवन जिवबादादाक ताचे वांगडा धाडलो. शिंदे हाणें जिवबादादाचो पराक्रम आनी बुदवंतकाय पळोवन ताका मुखेल सेनापतीची सुवात दिली.



जिवबादादा केरकार

राजपूत आनी जाट हांचे वांगडा जाल्ल्या शिंद्यांच्या झुजांत, तेचपरी रामभाऊ पटवर्धन हाचेवांगडा टिपूकडेन जाल्ल्या झुजांतूय ताणें बरोच पराक्रम केलो. सुभेदार गुलाम कादर जेन्ना दिल्लीचेर चाल करून आयलो तेन्ना दिल्लीचो बादशाह शाह अलम हाणें शिंद्याकडेन आदार मागलो. जिवबादादा हाणें तोखणायेची कामगिरी करून बादशाहाक जैत मेळोवन दिलें. तेन्ना बादशाहान शिंद्याक वजिरी दिवन ताच्या सरदारांक, जिवबादादा आनी लखबादादा हांकां 'बक्षीबहाद्दर फत्तेजंग' आनी 'समशेरजंग बहाद्दर' अशे किताब दिले. जिवबादादाच्या आदारानूच शिंद्यान दिल्लीची वजिरी केली आनी उपरांत बादशहाक वर्साक णव लाख खंडणी दिवन दिल्ली-आग्रा हो वाठार आपल्या राज्याक जोडलो. महादजी शिंदे हाचेकडेन, ताचो उजवो हात म्हूण तो अखेरमेरेन प्रामाणिक रावलो. तेचपरी पुण्यांत वा हेर खंयचेयकडेन वतना राज्याचो कारभार जिवबादादाचेर सोंपोवपाइतलो महादजी शिंदे हाचो विस्वास जिवबादादा केरकार हाचेर आशिल्लो.

फुडें जिवबादादा हाणें निजामाचेर हल्लो करपाचो विचार श्रीमंत माधवराव हाका सुचयलो. माधवरावान दरबार भरयलो. तेन्ना निजामाचो नाश करपाक कोणूच फुडें सरलो ना. अशावेळार जिवबादादान ती कामगिरी आपल्या आंगार घेतली. तातूंत ताका यश मेळ्ळें. तेन्ना माधवरावान ताका रत्नजडित तलवार आनी वज्राची मुदी दिली. सवाई माधवराव हाच्या मरणा उपरांत बाजीरावाक पेशव्यांचे गादयेर बसोवपाचो ताणें यत्न केलो. ह्यावेळार तो जांबगांव हांगा आशिल्लो. थंयच जोराचें निमित्त जावन ताका मरण आयलें.

१७६१ ते १७९६ काळ मेरेन ताणें सुमार १७५ झुजां केल्ल्याची नोंद मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**केरकार, यशवंत:** (जल्म: २१ फेब्रुवारी १९१४, बाग-केरी; मरण: १८ डिसेंबर १९८९).

नामनेचो गोंयकार तबलावादक. ताचो बापूय एक तबलजीच आशिल्लो. तिसरे यत्तेंत आसतना आठ वर्सां पिरायेचेर लागसरच्या सुवातींनी जीं नाटकां जातालीं, थंय तो नेमान वतालो. थंय नाटकांत तबलें वाजतालें तें आयकून आपणेंय तबलें वाजोवचें अशी ताका उमेद येताली. १९२२ वर्सा भास्कर शेट कांसार हाच्या घरांत संगीत नाटकाच्यो येसायो चलताल्यो. तेन्ना आठ वर्सां पिरायेचो यशवंत त्या घराच्या भायर

रावन, खासकरून तातूंतल्या तबलजींचें तबलावादन आयकतालो. एक दीस कोण कलाकार ना तें पळोवन तो भितर गेलो आनी तबलें वाजोवंक लागलो. तबलें वाजयता आसतना कार्यक्रमाचे जाळवणदार थंय पावले आनी तांणी यशवंताक लागसारकीं उतरां दिलीं. ह्या प्रसंगान अंतर्मुख जावन ताणें एक फिशाल तबलजी जावपाचो खर हावेस बाळगिलो.

मंगेशीं देवळांत प्रत्येक सोमाराक जेन्ना गायन आसतालें, तेन्ना यशवंत तबल्याचेर साथ दितालो. एक दीस मा. दीनानाथ थंय आयिल्लेकडेन ताणें ताच्या हाताचें कसब पळेलें आनी रेखडोच ताका आपल्या बळवंत संगीत नाटक कंपनींत घेतलो (१९३३). गोंयांत गोपीनाथ मंगेशकार हाचेकडल्यान ताणें तबला वादनाचें मुळावें शिक्षण घेतिल्लें. दीनानाथावांगडा गोंयाभायर वचून ताणें वल्लेमामा हाचेकडेन तबला वादनाच्या उच्च शिक्षणाक सुरवात केली. उपरांत ताणें पंडीत कागूराव मंगेशकार, पंडीत सुब्राय अंकोलकर, खाँसाहेब तिरखवां मिरतवाले, उस्ताद अमीर हुसेन, उस्ताद हवीबुद्दीन खाँ, उस्ताद शमशुद्दीन खाँ आनी खलिफा अमीर हुसेन हांचेकडल्यान तबलावादनाच्यो तालमी घेतल्यो. तेचपरी खाप्रूमाम पर्वतकार हाचेकडल्यानूय ताणें लयकारीच्यो गजाली आत्मसात केल्यो. उपरांत ताणें मिरतवाले खाँ हबीबुद्दीन हाचो गंडो बांदून अजराडा बाजाची तालीम घेतली. फुडें दिल्लीचो बाज हातांत येवचो म्हूण गाँमेखाँ हाचो गंडो बांदून बारा वर्सां त्या बाजाची तालीम केली. घुम्मन खाँ हाचेकडल्यान ताणें ठुमरी, गझल आनी कव्वाली हीं सुगमसंगीताचीं आंगां शिकून घेतलीं. कथ्थक नाचाक बरेतरेन साथ करपाक येवची म्हूण ताणें पंडीत जयलाल जयपूरवाले, पंडीत सुंदरलाल, प्रतापलाल, कुंदनलाल, धनलाल आनी पंडीत लच्छुम्हाराज हांचेकडेन ते ते तरेचें शिक्षण घेतलें. खाँ साहेब अब्दूल करीम खाँ, केसरबाय केरकार, गंगुबाय हंगल, मेनकाबाय शिरोडकार, अंजनीबाय लोलयेंकार, सुशिला टेंबे, मोगुबाय कुर्डीकार, किशोरी आमोणकार, पंडित सवाई गंधर्व, खाँ साहेब विलायत हुसेन, उस्ताद अनमत हुसेन, उस्ताद खादीम हुसेन, पंडित जगन्नाथबुवा पुरोहित आनी हेर कितल्याश्याच उंचेल्या पांवड्यावेल्या कलाकारांक ताणें तबल्याची साथ दिल्या. तेचपरी सुमार ३०० शिष्यांनी ताचेकडल्यान तबलावादनाचें शिक्षण घेतलां. ह्या ताच्या शिष्यगणांत गोंयचे नामनेचे तबलावादक प्रभाकर च्यारी आनी तुळशीदास नावेलकार हांचो आस्पाव जाता.

सुर्वेक तो आकाशवाणी मुंबय केंद्राचेर तबलजी म्हूण काम करतालो. उपरांत गोंयांत कला अकादमी संगीत महाविद्यालयांत तबलाशिक्षक म्हूण दोन वर्सां ताणें कलाकारांक मार्गदर्शन केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**केरकार, सुरेश अनंतः** (जल्मः सप्टेंबर १९३२, केरी- फोंडें; मरणः १७ फेब्रुवारी १९५७).

गोंयचो सुटके झुजारी. तो फोंडें हांगाच्या फस्कां कारखान्यांत वावर करतालो. गोंय सुटके चळवळीच्या वेळार 'गोंय सुटके सैन्य' (Goa Liberation Army) संघटनेचो वांगडी आसलो. कामीलो पेरैरा हाचेवांगडा ताणें फोंडें तालुक्यांत आशिल्ल्या पोर्तुगेज लश्कराक कुट्टी सावन उदक हाडपी पायप लायनीक स्फोट घडोवन हाडपाचो बेत आंखिल्लो. १७ फेब्रुवारी १९५७ दिसा स्फोट घडोवन हाडपाक गेल्लेकडेन पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका ताच्या साथीदारांवांगडा गुळी घालून जितो मारलो. १८ जून १९८५ दिसा गोंय सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**केरळः** भारतीय संघराज्यांतलें एक घटक राज्य. हें राज्य भारताचे दक्षिणेक वसलां. क्षेत्रफळः ३८,८६३ चौ. किमी. लोकसंख्याः २९,०११,२३७ (१९९१). राजधानीः त्रिवेंद्रम, भासः मलयालम, साक्षरतायः ६९.१७%, अक्षांश आनी रेखांशः उत्तर ८° १८' आनी १२° ४८, उदेंत ७४° ५२' आनी ७७° २२'. ह्या राज्याचे उत्तरेक दक्षिण कॅनरा, मरकारा आनी म्हैसूर हे कर्नाटक राज्यांतले जिल्हे येतात. तमिळनाडू राज्याचे निलगिरी, कोइमतूर, मदुराई, रामनाथपुरम, तिरुवेल्लाय आनी कन्याकुमारी हे जिल्हे उदेंतेक आनी दक्षिणेक येतात. राज्याचे अस्तंतेक अरबी दर्या आसा.

**भूंयवर्णनः** सैमीक नदरेन केरळ राज्य तीन वाठारांत वांटू येताः १. दर्यादिगेवेलो वाठार २. मध्यभागांतलो पठारी वाठार ३. दोंगराळ वाठार.

**दर्यादिगेवेलो वाठारः** दर्यादिगेवेलो वाठार सपाट आसा. भाताचीं शेतां आनी दाट माडाचीं भाटां हांणी हो वाठार भरून गेला. खाडयो आनी न्हंयो एकामेकांक मेळून तयार जाल्ले प्रतीप्रवाह (Back waters) हांगा व्हड प्रमाणांत दिसतात. हें ह्या वाठाराचें खाशेलपण. राज्याच्या दक्षिण आनी उदेंत वाठारांत कांय दोंगर-दोंगुल्ल्यो तशींच देगणां दिश्टी पडटात.

**मध्यभागांतलो पठारी वाठारः** राज्याचो मध्य भाग खडबडीत आसा. तशेंच दोंगर-दोंगुल्ल्यांनी भरिल्लो आसा. दोंगर-दोंगुल्ल्यांची उंचाय ह्या वाठारांत व्हड ना पूण देगणां मात रुंद आसात. उदका थरासावन ६० ते १९० मी. उंचायेर आशिल्ले जांभे फातर, दाट तण आनी झुडपांनी हो वाठार गच्च भरला. देगणांच्या वाठारांत शेतवड पिकयतात. उंचेले वाठार आनी दोंगरावेल्या सपाट वाठारांत मिरयां आनी हेर फळां तशेंच रबराचें उत्पादन जाता.

**दोंगरी वाठारः** हातूंत अस्तंत घाटाच्या सगळ्यांत दक्षिणेकडल्या अन्नमलई आनी एलाचल (कार्डमम) ह्यो वायव्य आग्नेय पर्वतांवळी आनी तांचे फांटे येतात. हो वाठार ऊंच आनी उब्या दोंगुल्ल्यांनी तशेंच रुंद देगणांनी भरिल्लो दिसता. ह्या वाठारांत दाट रान आसा. चडशो न्हंयो ह्या वाठारांत उपजतात. काफी आनी च्या चें उत्पादन ऊंच दोंगुल्ल्यांच्या वाठारांत जाता.

भारतीय द्वीपकल्पांतलें सगळ्यांत ऊंच अनइमुडी तेमक (२,६९५ मी.) अन्नमलई पर्वतांत आसा. एलाचल पर्वतांत, पेरियार तलाव आनी पीरमेड पठारा भोंवतणी १,५५० मी. उंचायेची दोंगरावळ आनी अगस्त्यमलई, महेंद्रगिरीसारकीं हेर तेमकां आसात.

दर्यादिगेवेल्या वाठारांत रेंव भरसण जाल्लो रेबो, भितल्ले देगेक न्हंयचो रेबो, मदल्या पठारांत जांभ्या फातराची नापीक जमीन, दोंगरी वाठारांत नीस फातराचो जाल्लो चुरो, रानवटी वाठारांत झाडां-पानां कुसून तयार जाल्ली माती हे केरळचे जमनीचे विंगडविंगड प्रकार जावन आसात.

राज्यांत ४४ ल्हान-व्हड न्हंयो आसून त्यो चडश्यो अस्तंत घाटांत उगम पावतात आनी अरबी दर्यावटेन व्हांवतात. तातुंतल्यो कावेरी न्हंयच्यो तीन उपन्हंयो केरळांत उगम पावतात आनी उदेंतेक हेर राज्यांनी व्हांवतात. अरबी दर्याक मेळपी केरळांतल्या न्हंयांमदीं 'पेरियार' ही सगळ्यांत व्हड आसून तिची लांबाय २२४ किमी. आसा. पोन्नानी, बेपोर, कुट्टीयादी, चालकुडी, पंपयार, शोलयार, चलिया, पंबा, कडालंडी, इडिक्की, कल्लडा, वालयार ह्यो हेर ल्हान न्हंयो सरळ दर्याक मेळनासतना आडव्या खाडयांक मेळटात. राज्याक ५९० किमी. लांबायेची दर्यादिग मेळ्ळया.

**हवामानः** केरळच्या हवामानांत वेगळेपण दिसता. ऊंच दोंगरी भागांत शीं पडटा. दर्यादिगेवेल्या (१००० ते १५०० मी.). भागांतूय थंड हवामान आसता. सपाट आनी सखल भागांत गरम आनी दमट हवामान आसता. केरळचें तापमान ३०° से. ते ३२° से. मेरेन थिरावल्लें आसता. केरळांत तापमान सादारणपणान ऑक्टोबर म्हयन्यांत वाडूंक लागता. मे म्हयन्यांत हें तापमान सगळ्यांत चड आसता. केरळाक दोन मोसमी वाऱ्यांसावन पावस मेळटा. उत्तर-उदेंत मान्सून ऑक्टोबर म्हयन्यांत सुरू जाता आनी जानेवारी म्हयनोभर चलता. दक्षिण अस्तंत मान्सून जून म्हयन्यांत सुरू जाता आनी सप्टेंबर म्हयन्यांत सोंपता. पावस पडपाचें प्रमाण आनी काळ दरेका जिल्ह्यांत वेगवेगळो आसता. सरासरी १६५२.२ सेंमी. पावस केरळांत पडटा (१९८५-८६).

**वनस्पत आनी मोनजातः** १९८५- ८६ मेरेन केरळ राज्यांतली




१०,८१,५०९ हेक्टर भूंय रानाखाल आसा. केरळची वट्ट भुंयेंत हें प्रमाण २८% आसा. मनशांनी घडयल्लें रान सुमार १,४६,९०० हेक्टर आसा. हातूंत लोकांक उपेगी पडपी झाडां रोयल्यांत. दोंगरी वाठारांतल्या उश्ण कटिबंधीय दाट जंगलांत शिसवी, सायल, रक्तचंदन, सेडर, वेंगाई ह्या रुखांचें मोलादीक लांकूड मेळटा. राज्याक १९८५-८६ मेरेन ४२.४५ कोटींची येणावळ रानांवरवीं मेळळ्या. पठारी भागांत टॅपिओका नांवाचो कंद, तर सपाट वाठारांत माडांचीं दाट रानां, सुपारेच्यो बागो दिश्टी पडटात. काजू, पणस, आंबे हांचें उत्पादनूय ह्या राज्यांत जाता. ह्या राज्यांतल्या नाल्लांक व्हड मागणी आसा.

केरळांत विंगड विंगड तरेची मोनजात दिश्टी पडटा. तातूंत हत्ती, गवो रेडो, हरण, माकड, वाग, चित्तो, वांस्वेल, रानदुकर हांचो आस्पाव जाता. विंगड विंगड रंगांचीं आनी असंख्य जातींचीं सवणीं केरळांत दिश्टी पडटात.

**इतिहासः** केरळ राज्याचो संबंद पुराणकाळांतल्या परशुरामामेरेन पाविल्लो दिसता. पूर्विल्ल्या काळांत हे भुंयेक 'भार्गवक्षेत्र' म्हण्टाले. भार्गवक्षेत्र म्हळयार भार्गव रामान घडयल्ली भूंय, असो अर्थ जाता. सह्याद्रीचे अस्तंतेकडली जमनीची पट्टी परशुरामान परशुवरवीं दर्याक फाटल्यान धांवडावन तयार केल्ली, अशी आख्यायिका केरळच्या उत्तर तोंकावेल्या आदिवासींसावन दक्षिण तोंकामेरेन रावतल्या केरळी लोकां मजगतीं आयकुपाक मेळटा. पूर्विल्ल्या काळार ही भूंय कांय सैमीक कारणांक लागून दर्यांतल्यान वयर सरिल्ली, असो भुशास्त्रीय पुरावो मेळटा. 'केरळ महात्म' ह्या ग्रंथांत आयिल्ले एके कथेवेल्यान आर्यावर्तांतले ब्राह्मण परशुरामाचे प्रेरणेन केरळांत येवन रावले, अशें कळटा. तेआदीं ह्या जाग्यार हांगा कांय नागपूजक लोक रावताले. ह्या काळांत केरळांत गणतंत्र पध्दतीचें राज्य आसलें. हीं राज्यां ल्हान ल्हान आसलीं. काळांतरान हीं राज्यां ना जावन 'चेर' वंशाची राजवट पुराय केरळाचेर आयली. प्रल्हादाचो पूत बळी हाका ह्या वंशाचो आदी पुरुश मानतात. ह्याच वंशांत चेरन नांवाचो पराक्रमी राजा जावन गेलो. ताची राजधानी 'तिरुवंचिकुलम्' हांगा आसली. ताच्या 'कोडंगल्लर' ह्या बंदरांतल्यान पयस-पयस देशांकडेन केरळाचो वेव्हार चलतालो. ह्या चेरवंशी राजाची भूंय म्हूण तिका 'चेरनाडू' वा 'चेरतल' अशें नांव पडलें. काळांतरान चेरतलमदलो 'त' ना जावन ताचें 'चेरल' आनी उपरांत 'केरल' जालें. ह्या वाठराक 'मलनाड' अशें म्हण्टात. ह्या उतराचो अर्थ दोंगराचो वाठार असो जाता. 'केर' ह्या मलयालम भाशेंतल्यान नाल्लाच्या नांवावेल्यानूय ह्या प्रदेशाक 'केरळ' हें नांव पडलें, अशेंय कांय जाणांचें मत आसा.

आर्यावर्तांतल्यान आयिल्ल्या ब्राह्मणांनी आपल्या शक्ती आनी बुध्दीच्या बळार नागलोकांक हरोवन केरळाचेर शेक गाजयलो. तांणी राजाची सत्ता आनी लोकांची सत्ता हांची भरसण आशिल्ली एक आगळी शासन पध्दत केरळांत निर्मिली. उपरांत ह्या दोनूय पंगडांनी संघर्श सुरू केलो. संघर्शाक लागून दोनूय पंगड दुबळे जाले. तेन्ना ह्या दोनूय पंगडांनी तमिळनाडूंतल्या केयपुरमच्या राजाक, केरळचें राज्य चलोवपाखातीर आपोवणें दिलें. ह्या राजाचें नांव उदयबाणवर्मा आसलें. ताका 'पेरुमल' म्हळयार व्हड शासक ही पदवी दिली.

पेरुमल राजान आपल्या साम्राज्याचे चार शासन विभाग घडोवन दरेका भागाचेर 'सामंत' म्हूण एक ब्राह्मण नेमलो. ह्या सामंताक 'तलियातिरी' म्हणटाले, ब्राह्मण आनी क्षत्रिय ह्या दोनूय वर्णांकडल्यान ही भूंय शासित जावंक लागिल्ल्यान लोक तिका 'ब्रह्मक्षत्रभूमी' म्हणपाक लागले. पेरूमलाचे राजवटींत केरळाची भरभराट जाली म्हूण ह्या काळाक 'भांगरायुग' म्हूण पाचारतात.

पूर्विल्ल्या केरळीय साहित्यांत वयर सांगिल्लें वर्णन आयलां, पूण ताका इतिहासीक आदार मेळना. सम्राट अशोकाच्या फातरापटयांत

'केरलपुत्र' हें नांव मेळटा. ह्या राज्याच्या मूळ नागलोकांक आयज नाकर (नायर) म्हण्टात, तर आर्यब्राह्मणांक 'नंबूदिरी' म्हण्टात. नायर आनी नंबूदिरी हांचेमदीं फुडें संघर्श निर्माण जालो. नायरांकडेन जमीन आनी सत्ता आयली तर नंबूदिरींनी धर्मीक आनी समाजीक मळार व्हडपण जोडलें.

क्रिस्ताआदल्या काळांत पॉलिनेशियामदल्यान लंके वटेनच्या मार्गान एझवा लोक केरळांत आयले आनी तांणी आपल्या वांगडा नाल्ल आनी व्हडीं ह्यो वस्तू केरळांत हाडल्यो, अशें म्हण्टात.

इ.स. पयल्या शतमानांत केरळाचेर 'चेर' ह्या बळीश्ट राजवंशाची सत्ता आसली. इ.स. दुसऱ्या शतमाना सावन केरळांत पेरूमाळ राजवंशाची सत्ता आसली. ह्या वंशाची नामावळ सोडून हेर इतिहास मेळना. ५ व्या शतमानांतले हरिश्चंद्र आनी कुलशेखर हे दोन राजे नांवाजिल्ले आसात. पेरुमाळ वंशाच्या भास्कररविवर्मान केरळांत एक नवो राजकी उत्सव सुरू केलो. त्या उत्सवाक 'महामकम' अशें म्हण्टात. तेउपरांत सत्तेर राजशेखर चक्रवर्ती आयलो. शंकराचार्याच्या वेदांत मताक प्रमाण मानून केरळी जनतेन आचार वेव्हार चलोवचे असो एक थाराव ताणें बुदवंत पंडीताचे सभेंत मानून घेतलो. ही परिशद इ. स. ८२५ त भरिल्ली. हे परिशदेची याद म्हणून नवी वर्सगणना सुरू जाली. तिका 'कोल्लम शक' म्हण्टात.

चेर वंशाच्या पेरुमाळ राजांनी (८००-९२५) गोकर्णासावन कन्याकुमारी मेरेन एकवटीत राज्य घडयलें, अशें मानतात. चेरमान पेरुमाळ हो हे वंशकुळयेंतलो निमणो राजा आसलो. ताणें आपखोशयेन राज्य सोडलें आनी इस्लाम धर्म आपणावन २५ ऑगस्ट ८२८ ह्या दिसा तो मक्केक गेलो. ह्या दिसा सावन केरळाची 'कालगणना' सुरू जाता. तिका 'कोळ्ळवर्षम' म्हण्टात. कालगणनेच्यो दोन कथा केरळच्या इतिहासांत मेळटात.

पेरुमाळ उपरांत उत्तर केरळांत कोलतिरी वा चिरक्कल आनी झामोरिन वा सामुरीचें कोझिकोडे वा कालिकत अशीं ल्हान राज्यां घडलीं. इकराव्या शेंकड्यांत उदेंतेकडल्या चोल राजांनी एका पेरुमाळ वंशीय राजाकडल्यान 'त्रावणकोर' राज्य जिकलें. पूण फुडल्या शेंकड्यांत थळाव्या राजांनी तें परतें जिकून घेतलें. तेराव्या शतमानांत त्रावणकोर राज्याच्या आग्नेय भागाचेर पांड्य राजांनी घुरी घाली. कांय वर्सांनी त्रावणकोरच्या मूळ राजान आपलें राज्य पर्थून जिखून घेतलें. १३१०-११ त मलिक काफुरान पांड्य चोलाक हरयले. उपरांत क्विलॉनचो राजा तिरुवादी रविवर्मा कुलशेखर हाणें हीं राज्यां जिकलीं. चवदाव्या शतमानांत महम्मद तुघलकाक लागून केरळाक पिडापीड भोगची पडली. सोळाव्या शतमानांत त्रावणकोराचेर विजयनगरच्यो दोन घुरयो पडल्यो. पूण विजयनगर राजवटीच्या अस्ता उपरांत मदुरेच्या नायकाचीं जायतीं ल्हान-ल्हान मांडलीक राज्यां थंय घडलीं. अठराव्या शतमानाच्या पयल्या अर्दांत मार्तंडवर्मा ह्या राजान हेर राजांक हरोवन नवें आर्विल्लें त्रावणकोर राज्य निर्मिलें. द लेनॉय नांवाचो प्लेमीश अधिकारी ताचो सल्लागार आनी रामअय्यन दलवा हो मंत्री आनी सेनापती आसलो. ह्या दोगांनीय फौजो, किल्ले, महसूलपध्दत, राज्यकारभार हातूंत जायत्यो सुदारणा घडोवन हाडल्यो. वेपार धंदो वाडोवपाखातीरूय खास यत्न केले. फुडें राजा रामावर्मान बरे तरेन राज्य चलयलें. म्हैसूरचो हैदर अली आनी टिपू सुलतान हांच्या घुरयांक ब्रिटिशांच्या पालवान ताणें तोंड दिलें.

२१ मे १४९८ ह्या दिसा वास्को द गामा हो पोर्तुगेज दर्यासारंग कालीकत हांगा पावलो. वास्को द गामाचें कालीकत पावप ही केरळाच्याच न्हय तर भारताच्या इतिहासांतली म्हत्वाची घडणूक जावन आसा. सुर्वेक वेपार-धंदो करपाची मोख दवरून भितर सरिल्ल्या पोर्तुगेजांनी उपरांत कोचीन, कोझिकोडे आनी कननोर हांगा आपले वसाहतीची थापणूक केली. पोर्तुगेजांकडेन वेपारी सर्त करपाचे इर्शेन डच, १६५६ त हांगा पावले. १६६३ त डच लोकांनी मलबार दर्यादिगेर शेक मेळयलो. कोचीन आनी तंगासेरी ह्या ठाण्यांचेर कब्जो मेळयलो. १६८२ त ब्रिटीश केरळांत पावले. तांची पयली वसणूक तेल्लीचरी हांगा जाली. १७१७ त डचांनी सामुरीकडल्यान चेटवई जुंव्यार ताबो मेळयलो. पूण फुडल्या शतमानांत डचांची सत्ता अस्ताक गेली. १७७१ त कननोर, मोपला अली राजाक विकलें. हैदरान १७७६ त चेटवई जुंवो जिकलो. १७९५ त ब्रिटिशांनी कोचीन आपल्या ताब्यांत घेतलें. १६९८ त कोझिकोडेक पाविल्ल्या फ्रेंचांनी, १७२६ वर्सा माहे हें ठाणें वसयलें. १७५१ त फ्रेंचांनी मौट डेली आनी उत्तरेकडलीं कांय ठाणीं जिकलीं. पूण ब्रिटिशांनी १७६१ मेरेन फ्रेंचांचीं सगळीं ठाणीं जिकलीं. सतराव्या शतमानांत (१६८४) ब्रिटिशांनी अंजेगो हांगा वखार घाली तशेंच मिरयां, वेलदोडे, चंदनाच्या वेपारांत व्हडपण जोडलें. सतराव्या शतमानाचे सुर्वेक सावन सुमार शंभर वर्सां मराठ्यांचीं तारवां देगेवेलीं ठाणीं लुट्टालीं. ब्रिटिशांनी ह्या मराठ्यांक बरोच आळाबंद बसयलो. केरळ वाठारांतल्या कोलतिरी, पालघाट, कोझिकोडे, कननोर सारकीं ल्हान राज्यां एकामेकांभितर झगडटालीं. पालघाटचो अच्चन आनी कननोरचो अली राजाक आदार दिवपाचें निमित्त करून हैदर अलीन उत्तर केरळाचेर हल्लो केलो तेन्ना हिंदी राजे कोचीन आनी त्रावणकोर राज्यांत आश्रयाक गेले. टिपून मागीर केरळाचेरय हल्लो केलो. ह्याच वेळार ताचें ब्रिटिशांकडेनूय झूज चलतालें. १७९९ त ब्रिटिशांनी श्रीरंगपट्टणमच्या झुजांत टिपूक हरयलो आनी मलबार प्रांत घेतलो. सुमार देडशें वर्सां ब्रिटिशांनी केरळाचेर राज्य केलें. आपले हक्क आनी स्वतंत्रताय मागपासंबंदी ज्यो चळवळी भारतांत जाल्यो, ताचो प्रभाव केरळाचेरूय पडलो. १९०४ त कलिकताक काँग्रेसीच्या पालवान एक परिशद भरली. १९०५ त जिल्हा काँग्रेसीची थापणूक जाली. पयलें म्हाझूज जायमेरेन केरळांत राजकी घडणुकांक व्हडलोसो नेट येवंक नाशिल्लो. असहकार आंदोलनाक केरळांत खास करून मलबारांत व्हड तेंको मेळ्ळो. सुर्वेक राज्यांतल्या हिंदू-मुस्लीमांनी काँग्रेस-खिलाफत चळवळीवरवीं केरळांत असहकार आंदोलनाक नेट हाडलो. १९३० त जाल्ल्या असहकार आंदोलनाकय केरळांत व्हड तेंको मेळ्ळो. १९४१ त त्रावणकोर संस्थानांत प्रजेच्या हक्कांखातीर चळवळ सुरू जाली. कांय प्रमाणांत प्रजेक लोकशायी हक्क मेळ्ळे. केरळांतले कामदार आनी शेतकार स्वतंत्रताय लढयांत वावुरल्यात, हें केरळचे स्वतंत्रताय चळवळीचें खाशेलपण जावन आसा. १९४९ त त्रावणकोर-कोचीन राज्यां एकठांय जालीं. १९५६ त भाशावार राज्यां जावन तेन्नाच्या पोरन्या मद्रास राज्यांतलो मलबार जिल्हो, कासरगोड म्हाल, त्रावणकोर-कोचीन आनी त्रिवेंद्रमचे चार म्हाल आनी क्विलॉनच्या होनकोटा म्हालाचो वाठार एकठांय येवन 'केरळ' हें पुराय राज्य घडलें.

**राज्यवेवस्था:** राज्यवेवस्थेंत सुटसुटीतपण येवचें हे नदरेन केरळ राज्यांत त्रिवेंद्रम, क्विलॉन, अलेप्पी, पथनामतिट्टा, कोट्टायम, इडिक्की, एर्नाकुलम्, त्रिचूर, पालघाट, मल्लापुरम्, कोझिकोडे, वायनाडू, कननोर, कासारगोड हे चवदा जिल्हे घडयल्यात. केरळ विधानसभेंत वट्ट १४१ वांगडी आसात, हातूंतले १४० वेंचून काडटात. लोकसभेंत वीस तर राज्यसभेंत णव वांगडी केरळचें प्रतिनिधित्व करतात. राज्यांत तेभायर ९९९ पंचायती, ४४ नगरपालिका आनी ३ महानगरपालिका आसात (१९८५-८६). १९५७ त ई. एम्. एस्. नंबुद्रीपाद केरळ राज्याचो पयलो मुखेलमंत्री जालो. तो कम्युनिस्ट पक्षाचो वांगडी आसलो.

**अर्थीक स्थिती:** केरळांत भात, नाल्ल, रबर, कड्डण, मिरयां, वेलची, काजू, टॅपीओका (कंद), च्या, काफी, केळें, आलें, ऊंसकांडो, आंबो, बटाट, कांदे, ज्वारी, तूर हांचें उत्पादन राज्यांत जाता. भारताच्या वट्ट उत्पादनांत ९२% रबर, ७०% नाल्ल, ६०% सुपारी ह्या राज्यांत जाता.

केरळांत विंगड विंगड तरेची खनीज संपत्त मेळटा. ऊंच पांवड्याचे चिनी मातयेचे ८० दशलक्ष टन सांठे केरळांत आसात. ७९ दशलक्ष टन लोखणाचे, २५ दशलक्ष टन चुनखडीचे, ११ दशलक्ष टन बॉक्साइटाचे, ३५ दशलक्ष इल्मेनाइट धातूचे सांठे केरळांत आसात. क्विलॉनचे दर्यावेळेवेले रेवेंत मोनोझाईट, इल्मेनाइट, रूटाइल, झिरकोन आनी

सिलिमानाइट हे धातू मेळटात. मोनोझाइटांत थोरियमचे अंश सांपडल्यात.

राज्यांत ४८५१ हेक्टर उदका वाठारांत नुस्तें मारपाखातीर परवानगी आसा. राज्यांत वर्सुकी साडेतीन लाख टन नुस्त्याचें उत्पादन जाता. १९८५-८६ त नुस्त्यावरवीं ११४.२८ कोटी रुपयांची येणावळ मेळिल्ली. ताल्ले, बांगडे आनी सुंगटां खाऱ्या उदकांतलीं तर वागयो, मरळ आनी मॅलेट ही साव्या उदकांतली मुखेल नुस्त्या संपत्त जावन आसा. सुमार ८ लाख ७७ हजार नुस्तेमारी लोक उदकांतले पिकावळीचेर पोट भरतात. राज्याक ५९० किमी. लांबायेची दर्यादिग मेळ्ळ्या. कननोर, एर्नाकुलम्, विझिंजोम आनी बेपोर हांगा नुस्तें मारप्यांक प्रशिक्षण दितात.

केरळ राज्यांत पर्यटनाक मोटो वाव आसा. केरळांत उदक, ऊर्जा, दाट रानां, खनीज संपत्त व्हड प्रमाणांत आशिल्ल्यान तशेंच येरादारीचीं साधनां फाव त्या प्रमाणांत आशिल्ल्यान उद्येग-धंद्याचे वाडीक सोपेपण मेळ्ळां.

हातकाम, हातमाग, काजू, काथो, विडी हे केरळांतले पारंपारीक उद्येग आसात. हातमाग उद्येगांत लाखांनी लोक काम करतात. राज्यांतलो ८२% हातमाग उद्येग कननोर, कोझिकोडे, त्रिवेंद्रम भागांत पातळ्ळा. हातकामाचे ३२ प्रकार राज्यांत नामना जोडून आसात. फर्टीलायझर्स ॲण्ड कॅमिकल्स त्रावणकोर लिमीटेड, त्रावणकोर टिटानियम प्रॉडक्टस, हिंदूस्थान मशीन टूल्स, इंडियन टेलिफोन इंडस्ट्रीज, कोचीन शिपयार्ड, वेल्लोर न्यूजप्रिंट फॅक्टरी आनी त्रावणकोर कोचीन केमिकल्स हे राज्यांतले म्हत्वाचे उद्येग जावन आसात.

सारें, साकर, सिमेंट, लूगट, कपडे, शाबू, शार्कलिव्हर तेल, चिनी मातयेचीं आयदनां, कंवची, नळे, भट्टेच्यो विटो, खावपाचें तेल, रबर, सूत आनी हेर विंगड विंगड तरेचे उद्येग राज्यांत आसात.

**येरादारी आनी संचारणः** राज्यांत येरादारीची वेवस्था बऱ्या प्रमाणांत आसा. राज्यांत १.०१ लाख किमी. लांबायेचे रस्ते आसात. दर १०,००० लोकांक ३७ किमी. लांबायेचे रस्ते पडटात. राश्ट्रीय महारस्त्यांची लांबाय ८३९ किमी. आसा. दर एक लाख लोकसंख्येक १३४० वाहनां पडटात (१९८५-८६).

राज्यांत ५५५ किमी. लांबायेचे उदका मार्ग आसात. २५० लाख प्रवासी हे उदक येरादारीचो लाव घेतात. कोचीन राज्यांतलें सगळ्यांत व्हड बंदर आसून १९८५-८६ त ह्या बंदराचेर ५२.७८ लाख टन मोलांच्या म्हालाची हाड-व्हर जाली (१९८५-८६).

राज्यांत वट्ट १०५३ किमी. लांबायेचे रेल्वे रस्ते आसात. एर्नाकुलम अलेप्पीमदीं ब्रॉडगेज रेल्वे-रस्तो बांदपाचें काम चालू आसा. ह्या रेल्वेरस्त्याचेर वेमबनाड तलावाचेर एक किमी. लांबायेचो रेल्वे पूल जातलो.

गल्फ देशांत काम करपाक व्हड प्रमाणांत केरळी लोक गेल्ल्यान राज्यांतल्यान हवाईमार्गाक म्हत्व आयलां. त्रिवेंद्रम आनी एर्नाकुलमांत हवाई अड्डे आसात. कलिकताक विमानतळ बांदपाचो वावर सुरू आसा. त्रिवेंद्रम शार भारतांतल्या म्हत्वाच्या शारांक तशेंच विदेशी देशांक हवाईमार्गान जोडिल्लें आसा. त्रिवेंद्रम आनी गल्फ देशांत एअर-इंडिया वरवीं दिसपट्टी विमान येरादारी चलता.

राज्यांतलीं म्हत्वाचीं खबरापत्रां अशीं: चंद्रिका, दीपिका, देशभिमानी, एक्सप्रेस, केरळ कौनूदी, मलयाल मनोरमा, मातृभूमी आनी हेर.

त्रिवेंद्रम, कालिकत, त्रिचूर आनी अलेप्पी हीं आकाशवाणीचीं मुखेल केंद्रां आसात. णवव्या आशियाई खेळावेळार (१९८०) त्रिवेंद्रमात दूरदर्शन रिले केंद्र (तात्पुरतें) सुरू जालें. उपरांत तें सदांखातीर चालू उल्लें. त्रिवेंद्रम आनी एर्नाकुलम केंद्राच्यो कार्यावळी १०० किमी. सरभोंवतणी दिश्टी पडटात. कालिकत, पालघाट, कननोर केंद्राच्यो कार्यावळी ५ ते १० किमी. सरभोंवतणी दिश्टी पडटात.

१ एप्रिल १९८६ मेरेन राज्यांत ४८४८ पोस्ट फांटे आसले. हातूंतल्यो ५० मुखेल कचेऱ्यो तर १४८ धुंवत्या कचेऱ्यांचो आस्पाव जाता.

**लोक आनी समाजजीणः** शारांनी १८.७४ % तर गांवगिऱ्या वाठारानी ८१.२६% लोक रावतात. दर चौ. किमी. त ६५५ लोक रावतात तर साक्षरतेचें प्रमाण ७०.४२ टक्के आसा. आयुश्यमानः दादलो-६७ वर्सां, बायल-६९ वर्सां.

हिंदू, मुस्लीम आनी किरिस्तांव ह्या तीनूय धर्माचे लोक हांगा रावतात. नंपूदिरी ब्राह्मण आनी नायर क्षत्रिय ह्यो केरळांतल्यो दोन मुखेल जाती आसात. हेर जायत्यो जाती आनी पोटजाती ह्या दोगांभितर येतात. हांकां अंतराळ जाती म्हण्टात. नंपूदिरीची कुटूंब पध्दत पितृसत्ताक आसा तर नायराची मातृसत्ताक आसा. हे मातृसत्ताक पध्दतीक 'मारुमक्काथायम' पध्दत म्हण्टात. पूण फाटल्या ७०-८० वर्सांसावन हे पध्दतींत बदल घडून जाय जाल्यार पितृसत्ताक पध्दत (मक्काथायम) आपणावपाची मेकळीक मेळिल्ली आसा. हेविशीं सरकारान कायदे केल्ले आसात आनी ह्या कायद्यांचो आदार घेवन जायत्या जाणांनी 'पितृसत्ताक' पध्दत आपणायल्ली दिसता. थिया वा एझवा ही मलबारी हिंदूंची एक व्हड जात आसून एकुणिसाव्या शतमानामेरेन तिका अस्पृश मानताली. केरळी हिंदू शिव, विष्णूक आनी देवीक भजतात. भद्रकाली ही केरळची मातृदेवता तर अय्यापन हें पुराय केरळचें श्रध्दाथळ जावन आसा. केरळच्या दोंगराळ वाठारांत पंदरम्, उल्लादन मुद्रन ह्यो आदिवासी जमाती रावतात. सूर्य हो तांचो सगळ्यांत व्हड देव आसून चामुंडा, गणपती देवाकूय ते भजतात. किरिस्तांव प्रजेंत, रोमो-सिरीयन, जॅकोबाइट-सिरीयन आनी सेंट टॉमस सिरीयन अशे पंथभेद आसात. सिरियन किरिस्तांव क्रिस्ताक मानतात पूण कॅथलिक, इगर्जीक मानिनात. राज्यांतले मुसलमान चडशे सुन्नी पंथाचे आसून तातूंत मोपला वा लब्बाई अशे दोन प्रकार आसात.

केरळी लोकांचो भेस सादो आनी चडसो धवो आसता. दादले 'मुंड' वा 'लुंगी' तोतू वा कुडता आनी खांद्यार पंचो घालतात. बायलो मुंटू आनी चोळी घालतात आनी भोंवतना ताडपत्री आनी कपड्याची सत्री वापरतात. तेलाचें न्हाण आनी सोबीत केंसाची रचणूक ही ताचीं खाशेलपणां आसात. केरळी लोकांचें मुखेल अन्न भात आसून जेवणांत कंद, केळें, नाल्ल आनी नुस्तें हांचो आस्पाव जाता. मिरसांग वा मीठ नाशिल्लें मिरयांचे 'सांबर' वा 'सारम' कालवण म्हूण वापरतात.

केरळांतलीं घरां मातयेचीं वा कुडाचे वण्टीचीं, नळ्यांचीं वा नाल्लाच्या चुट्टांनी शाकारिल्लीं आसतात. घरचीं आंगणां एकाक एक लागून आसतात. आंगणांत माड, पणसाचीं झाडां रोयिल्लीं दिसतात. चडशीं दरेकाच्या दारांत एक बांय आसता. घरांत उठपा-बसपाक शेंदऱ्यांचो वापर जाता. नवे पध्दतीचीं घरांय आतां केरळी लोक बांदपाक लागल्यात.

'ओणम' ही केरळची म्हत्वाची परब जावन आसा. ही परब 'महाबळी' राज्याच्या उगडासापासत मनयतात. ही परब शेत-लुवणेवेळार येता. ह्या वेळार रंगरंगयाळ्यो कार्यावळी जातात. केरळचे किरिस्तांव 'नाताळा'ची परब व्हडा उमेदीन मनयतात. ही परब डिसेंबराचे २५ तारखेर सुरू जाता. राज्यांतले मुस्लीम 'ईद उल फित्र' आनी 'रमझान' व्हडा दबाज्यान मनयतात. हिंदूंच्यो ज्यो कांय म्हत्वाच्यो परबो हांगा जातात तातूंत गुरुवायुरच्या श्रीकृष्ण देवळांत जावपी परब, त्रिचूरांत थळाव्या शिवमंदिरांत म्हळयार वडाकुंथनन मंदिरांत जावपी पुरमची परब, त्रिवेंद्रमांत पद्मनाभाच्या देवळांत जावपी दोन वर्सुकी परबो तशेंच नवरात्र, दसरो, कालिपूजा, दुर्गाष्टमी, महाशिवरात्र, दिवाळी हांचो आस्पाव जाता. मुसलमान लोकांच्या म्हत्वाच्या परबांभितर पल्लनचत्तनूरची 'जर्रम' परब, ओट्टापलम मशिदीची 'नेरचा' परब, कासरगोडाक जावपी वर्सुकी थळावी परब, कांजिरामोतम मशिदीची 'कोडीकुथू' परब तेभायर बकरीइद मुहर्रम हांचो आस्पाव जाता.

**कलाकुसरः** *नृत्यः* कलेचे नदरेन केरळ खूब फुडारिल्लें आसा.

नृत्यप्रकारांतूय केरळचे कलेचीं विंगडपणा जाणवतात. कथकळी, मोहिनीआटम, कांथू पटकोम, कोडीआटम, अष्टपदीआटम, कृष्णाआटम, रामनटम, थुल्लल हे शास्त्रीय नृत्यप्रकार; काळीआटम, मुडीयट्टू, कोलमथुल्लाल, कोलकली, पोराकली, वेलाकाली, कपडावूकाली, कन्नीयारकाली हे लोक नृत्यप्रकार; इल्लाकरंदी, कंदारकली, कुरूंबारकली, पनीयारकल्ली, मनकाली, पार्वतीकाली हे आदिवासी नृत्यप्रकार खाशेले आसात.

*संगीतः* केरळचें लोकसंगीत गिरेस्त आसून तातूंत अप्रूप गोडयेवांगडाच ताल आनी सुरांचो सोबीत मेळ जाला. तातूंत सैमाक खास म्हत्व दिल्लें दिसता. देखीकः सरपपट्टू, भद्रकाळीपट्टू अय्यपनपट्टू आनी हेर खास वाद्यांभितर तायंमपाक, पंचवाद्यम आनी केळीकोट्टू हीं वाद्यां म्हत्वाचीं आसात. केरळच्या खास शैलीच्या वाद्यांभितर चेंडा, मद्दळम आनी चिंगला हांचो आस्पाव जाता. कर्नाटकी संगीत केरळांत खास शैलींत प्रचारांत आसा. ताका 'सोपना' म्हण्टात. हें संगीत जयदेवाचें 'गीत गोविंद' वा 'अष्टपदी' वरवीं उदरगतीचीं सपणा चडलें. इरायीमन थंपी हाणें बरयल्लीं कथकली पदां, कुंजन नंबियार हाणें बरयल्लीं थुल्लाल पदांक लागून केरळी संगीत गिरेस्त जालां. त्रावणकोरचो महाराज स्वाती तिरुनाल, शड्कला गोविंद मरार, तंजावचे वातीवेलू, पोनय्या चिन्नया आनी शिवनंदन हांणी संगीताच्या मळार खास नामना जोडल्या. सुब्बूकुट्टी अय्या हो वीणा वादनाच्या मळावेलो म्हान कलाकार जावन आसा.

*चित्रकलाः* केरळचे पारंपारिक चित्रकलेचें दर्शन देवळां, इगर्जी आनी कांय म्हत्वाच्या थळांनी दिश्टी पडटा. कन्याकुमारी जिल्ह्यांत (सद्या तमिळनाडू राज्यांत) तिरुनंदीकरा आनी तिरुवंचीकुलम देवळाच्या वण्टींवेली चित्रकारी, केरळच्या सगळ्यांत पोरने चित्रकलेचें मूळ दाखयता. सोळाव्या शतमानांत एत्तमनूर देवळाचे वण्टीवेलें नटराजाचें चित्र, पनयन्नारकतु देवळांतलें सूर्याचें चित्र, पद्नाभपुरम् प्रासादांतलीं ४१ पौराणिक वण्टीचित्रां आनी जायत्या देवळांच्या वण्टींवेली कलापूर्ण रंगाकृती, केरळचे गिरेस्त चित्रकलेची गवाय आसा. जायत्या इगर्जींच्या वण्टींचेर पोरनीं रंगयल्लीं चित्रां दिसतात. एकुणिसाव्या शतमानांत, त्या काळांतल्या युरोपीयन कलातंत्रांत प्रवीण जाल्ल्या राजा रविवर्माचे चित्रकारितेन भारताचेर आगळोच प्रभाव घाला. माधव मेनन आनी के. सी. एस्. पणिक्कर आर्विल्ल्या चित्रकारांमदीं खास नामना जोडून आसात.

*शिल्पकलाः* आठव्या शतमानासावन सतराव्या शतमानामेरेनचे शिल्पकामाचे नमुने केरळांत दिसतात. कवियूर आनी विझिंगम हांगाच्या खडपांतली कोरांतिल्ली आकृती त्रिक्कोडितान्म्, विष्णूमंदिरांतलीं आनी त्रिविक्रममंदिरांतलीं शिल्पां, गुरुवायूरची विष्णुमूर्ती, पद्मनाभस्वामी मंदिरांतलें शिल्पकाम, काडतुरुती (वल्लीपल्लय), चंगाचेरी, कांजूर, अंकामोली, कुरवालिंगड हांगाच्या इगर्जींतलीं शिल्पकामां उल्लेख करपासारकीं आसात.

*हस्तकामः* केरळच्या हस्तकामांमदीं हस्तिदंत, शिंग, चंदन, शिसव, साग, नाल्लाची कट्टी ह्या वस्तूंवेलें कोरीवकाम, काशाचीं आयदनां, कवासो (हाथो) आनी सुक्या तणाचें विणकाम आनी बिदरी धाटणीचें कोफ्तगारी नक्षीकाम ह्यो कांय खास हस्तकला आस्पावतात.

**शिक्षण-पध्दत आनी प्रसारः** केरळ हें शिक्षणानदरेन भारतांतलें सगळ्यांत फुडारिल्लें राज्य जावन आसा. शिक्षण सक्तीचें करपी हें पयले राज्य. १९८१ वर्साच्या जनगणनेप्रमाण केरळचें साक्षरपण ७०.४२% आसा. दादल्यांभितर हें प्रमाण ७३.०३% आसा तर बायलांभितर ६४.४८% आसा. राज्यांत १२,१३८ शाळा आसात. हातूंत मुळाव्यो शाळा, ६८४५ इतल्यो आसात. १९८५-८६ मेरेन शाळांनी शिकपी भुरग्यांचो आंकडो ५७,१६,१५१ इतलो जाता. केरळ, गांधीजी, कोचीन, कालिकत आनी केरळ शेतकी विश्वविद्यालय हीं राज्यांतलीं पांच विश्वविद्यालयां जावन आसात. १७२ कला आनी विज्ञान महाविद्यालयां हांगा आसात.

**भाशा आनी साहित्यः** केरळची 'मलयाळम भास', 'पझम-तमीळ' हे द्रविड भाशेंतल्यान विंगड विंगड बोलीरूपांत घडली. तिचें पूर्विल्लें रूप 'पाट्टू' ह्या गांवगिऱ्या गीतांत दिसता. संस्कृतायेचोय हे भाशेचेर प्रभाव पडला. संस्कृत-मलयाळम हांची भरसण करून साहित्यनिर्मणेखातीर तिचो उपेग जावपाक लागलो. पंदराव्या शतमानासावन अठराव्या शतमाना मेरेनच्या काळांत चेरूश्शेरी, नंतूतिरी आनी कन्नासा पणिक्कर सारक्या व्हड साहित्यकारांनी पोरनी आनी नवी भास एकठांय करून एक परंपरा सुरू केली. मलयालम साहित्याचो जनक एळुत्तच्छन हाणें ती पूर्णत्वाक व्हेली. अध्यात्मरामायणम्, भारतम् ह्यो ताच्यो म्हत्वाच्यो साहित्यकृती जावन आसात. उपरांत उण्णायी वारियर हाच्या 'नळचरितम' सारके काव्य-संगीत नाट्य कलाकृतीवरवीं तशेंच कथकळी आनी कुंचननंप्यार सारक्या आर्विल्ल्या वातावरणांतले पुराणकथांनी तुळळल हो साहित्यप्रकार जैतिवंत केलो. भाशा उदरगतीच्या दुसऱ्या पांवड्यांत राजराज वर्मा हाणें फुडाकार घेतिल्लो दिसता. विसाव्या शतमानांतल्या साहित्याचेर आर्विल्ल्या शिक्षणाची सया पडिल्ली दिसता. महाकवी कुमारन आशान, वळ्ळतोल, नारायण मेनन, उळ्ळूर एस्. एस्. परमेश्वर अय्यर, कादंबरीकार ओ. चंतू मेनन, रामनपिळ्ळा हांणी हो काळ गाजयलो. महाकवी जी. शंकर कुरूपान हाणें (१९०१-१९७८) 'ओड्डाकुझल' हे साहित्यकृतीखातीर १९६६ वर्सा हे भाशेक पयलो ज्ञानपीठ पुरस्कार जोडून दिलो. एस्. के. पोट्टेकेट हाणें 'ओरू देशान्ते कथा' हे साहित्यकृतीखातीर १९८१ वर्साचो ज्ञानपीठ पुरस्कार जोडलो. मलयालम भाशा साहित्यांत इंग्लिशीचो प्रभाव पडूनय आपलें खास द्रविडी खाशेलपण तिगून उरलां.

**म्हत्वाचीं थळांः** राजधानी त्रिवेंद्रम, कोचीन बंदर, नेय्यर धरण, कोवालमची दर्यावेळ, थुंबाचें विक्रम, साराभाई अंतराळ केंद्र, इतिहासीक शार क्विलॉन, उद्येगीक केंद्र अलेप्पी, किरीस्तान इगर्जींचें मुखेल थाणें पेरियन वन अभयारण्य, उद्येगीक शार आलवे, त्रिचूर, कालीकत, वायनाड, कननोर हीं शारां म्हत्वाचीं आसात.

१६ व्या आनी १७ व्या शेंकड्यांत परकी सत्तेक उबगून कांय गोंयकार केरळाक गेले आनी थंय वेपारधंदो करून रावले. ह्या गोंयकारांचो चडसो राबितो मटणचेरी ह्या कोचिनच्या वाठारांत आसा. वेव्हाराखातीर तांणी मलयाळम ही थळावी भास आपणायली आसली तरी सांस्कृतिक भास म्हूण 'कोंकणी'चो वापर करतात. कोचिनांत 'केरळ कोंकणी अकादमी' आनी 'केरळ कोंकणी प्रचार सभा' कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतायेच्या मळार काम करतात. अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेचीं दोन अधिवेशनां (१९७८,१९८६) कोचीन शारांत जाल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

## केरीकर, विठ्ठल नृसिंह (सांखोळकार दुपाटी विठ्ठल):

अठराव्या शतमानांतलो एक गोंयचो कवी. पेडणें तालुक्यांतलो केरी हो ताचो गांव. ताच्या जल्माविशीं पुराय म्हायती मेळना; तरी तो सोहिरेबा आंबिये (१७१४-९२) आनी महेश्वरशास्त्री सुखठणकार (१७१९-१८१७) हांच्या काळांतलो आसा अशी गवाय मेळटा. काव्य संग्रहकारांनी 'महाराष्ट्र कवि विठ्ठलकृत कवितासंग्रह' नांवाचो एक ग्रंथ उजवाडाक हाडलो. ह्या ग्रंथांत विठ्ठलाच्यो तीन कविता आशिल्ल्यो. हे तिनूय विठ्ठल वेगवेगळे आसात हें दाखोवपाखातीर एकट्याक विठ्ठल बिडकर, दुसऱ्याक विठ्ठल दीक्षित आनी तिसऱ्याक विठ्ठल केरीकर अशीं नांवां दिलीं. ताचें मूळचें खरें उपनांव नाईक सांखोळकर. पूण केरीकर हेंच नांव ताका रुढ जालें.

तो एक खांपो पंडीत आशिल्लो. काशीच्या पंडितांनी मानपत्र आनी बसपाखातीर दोन पाट दिवन ताचो भोवमान केल्लो. देखून ताका 'दुपाटी विठ्ठल' ह्याय नांवान वळखताले. ताणें शुकरंभासंवाद, कबीरकथा आनी वामनचरित्र अशीं तीन आर्याबध्द प्रकरणां बरयल्यांत. तेचपरी ताणें

पदांय बरयल्यांत. तातूंतलीं साठ पदां काव्य संग्रहांतल्यान उजवाडाक आयल्यांत. तेभायर पणजेच्या म्हामाय कामत हांच्या घरांत मेळिल्ल्या 'संतकृपा' नांवाच्या एका बाडांत बरींच पदां मेळ्ळ्यांत. ताणें सुमार तीस चाळीस गवळणी बरयल्यात. ताच्या आर्यांचेर मोरोपंताचो प्रभाव पडला. मोरोपंत हो विठ्ठल केरीकार हाच्या काळांतलो आसून ताचे हयातींत मराठी किर्तनकार ताच्यो आर्या म्हण्टाले. हे कीर्तनकार गोंयांत येताले. तातूंतल्यान वा हेर खंयच्याय प्रकारान केरीकराक मोरोपंताच्या आर्याची खबर मेळ्ळी आसूं येता आनी तांचो प्रभाव ताचेर पडूं येता. ताच्या आर्यांचेर जसो मोरोपंताचो प्रभाव पडला तसोच ताच्या पदाचेर अमृतराय, देवनाथ, गोविंद वणीकर हांचो प्रभाव पडला. तेचपरी एकनाथाच्या सारक्यो गवळणी बरोवन ताणें एकनाथाचें अनुकरण केलां.

ताणें बरयल्ली एक भुपाळी (घनश्याम सुंदरा---) जी नामनेचो मराठी शाहीर होनाजी बाळ हाची भुपाळी म्हणून मान्यता पावल्या हे संबंदी वाद आसा. गोंयचो एक नामनेचो कवी दा. अ. कारे हाणें विठ्ठल केरीकर आनी होनाजी बाळ हाचे कवितांचो तुलनात्मक अभ्यास आनी दोगांयच्या कार्यकालाचें कोश्टक मांडून अशें अनुमान काडलें की होनाजी बाळ हाची भुपाळी म्हूण मान्यताय पाविल्ली भुपाळी ही मुळांत केरीकराची आसा आनी होनाजी बाळ हाणें शब्दांत थोडोसो बदल करून ती आपल्या नांवान उजवाडायली. दोनांय भुपाळींचें एक एक कडवें हांगा दिलां.

विठ्ठल नृसिंह हाचें कडवें-

घनःश्याम सुंदरा माधवा अरुण उदय झाला
उठि लवकरि वनमाळी उदयाचळीं मित्र आला।।ध्रु।।
घरेघरीं दीप अखंड त्याच्या सरसाउनि वाती
गीत गाति गोपिका नंदसदनासि येतीं जातीं
प्रवर्तुनि गृहकाम रंगमाळा घालूं पाहती
आनंदकंदा प्रभातसमयो उठ सरली राती
काढिति धारा क्षीरपाने धेनू हंबरताती
द्वारिं उभे गोपाळ तुजला हांक मारुं पाहती
सुमनहार वनमाला कंठीं लेयीं गुंजमाळा
हातीं बेतकाठी बरवा कांबळा घेइं काळा
जगजीवना मधुसूदना मनमोहना जगत्पाला
क्षुधित बहु वासरें धेनुच्या स्तनिं पान्हा आला।।२।।

होनाजी बाळ हाचें कडवें-

घनःश्याम सुंदरा श्रीधरा अरुणोदय झाला
उठिं लवकरि वनमाळी उदयाचळ मित्र आला।।ध्रु।।
घरोघरीं दीप अखंड त्याच्या सरसावुनि वातीं
गीत गाति सप्रेमें गोपी सदना येती जाती
प्रवर्तोनि गृहकामीं रंगावळि घालुं पाहती
आनंदकंदा प्रभात झाली उठ सरली राती
काढीं धार क्षीरपात्र घेउनि धेनू हंबरती
द्वारिं उभे गोपाळ हांका मारूनि तुज पाहती
हें मुक्ताहार कंठिं घालिं या रंगमाळा
हातीं वेत्रकाष्ठ बरवें कांबळा घेईं काळा
मम आत्मज मधुसूदना हृषिकेशि जगत्पाला
लक्षिताति वासुरें हरि धेनुस्तनपानाला।।२।।

- कों. वि. सं. मं.

**केशर:** (मराठी-केशर; हिंदी-केसर, झाफ्रॉन; गुजराती-केशर; संस्कृत-कुंकुम; इंग्लीश-मेडो क्रॉकस, सॅफ्रन क्रॉकस; लॅटीन-क्रॉकस सॅटायव्हस; कूळ-इरिडेसी). सुवासीक आनी घमघमीत वासाचो एक पदार्थ.

केशराचें फुलझाड ल्हान आसून ताका जमनींत मुंडल्यो आसतात. ताचेपसून केशराक जमनीचेर रेखाकृती, तणासारकीं पानां येतात. फुलां एकोडीं, जांबळ्या रंगाचीं, नळयेवरीं आसतात. तातूंत हळडुवे किंजल (styles) आनी केसरी किंजल्क (stigma) आसतात. दरेक किंजल्क नळयेसारको आसून २५ मिमी. लांब आसता. किंजल्काचे सगळे मेळून वट्ट तीन भाग आसतात. किंजल्काचे नळयेचो आकार सकयल अशीर आनी वयर रुंद आसता. किंजल्क एकोडे नाजाल्यार तिनांच्या चोम्यान हळडुव्या परागकोशाक लागिल्ले आसतात.

आशिया मायनर मदले 'लेव्हंट' हें रोंपयेचें मूळस्थान जावन आसा. 'भावप्रकाश' ह्या संस्कृत ग्रंथांत केशराचो 'कुंकूम' असो उल्लेख येता. ताचेवेल्यान केशराचें उत्पादन आनी वेपार पूर्विल्ल्या काळासावन काश्मीरांत चलतालो आसूंये, अशें म्हण्टात. रोमन, ग्रीक आनी हिब्रू हांच्या काळांत केशराची लागवड जाताली. सुर्वेक ग्रीकांचो शाही रंग केसरी आसतालो. केशरी रंगाचे शिवर दरबारांत आनी नाटकघरांत उडयताले. बाबर आनी जहांगीर हांच्या काळांतल्या लेखांत काश्मीरांत चलपीं केशराच्या वेपाराचो उल्लेख आयला. खूब वर्सांआदीं सिलिशियांतल्या कॉरीकस ह्या गांवांत केशराचें खूब उत्पादन जातालें. धाव्या शतमानांत अरब लोक स्पेनांत केशराची लागवड करताले. तें वखदी आशिल्ल्यान मध्ययुगांत ताका बरेंच म्हत्व आयलें. ज्यू लोकांनी पयलींसावन केशराचो मसालो, वखद, रंग म्हूण उपेग केला.

केशराची लागवड आनी उत्पादन स्पेनांत व्हड प्रमाणांत जाता. तेभायर चड उण्या प्रमाणांत फ्रांस, ग्रीस आनी प्रशियांत केशराचें उत्पादन जाता. चीन, पाकिस्तान आनी भारतांतूय केशराची लागवड करतात. भारतांत काश्मीरांतल्या १६४३ मी. उंचायेवेल्या पांपूर गांवांत केशराची लागवड करतात.

केशरांत प्रिक्रोक्रोसीन (pricrocrocin) हो कोडू घटक, तांबड्या रंगाचें द्रव्य 'पॉलीक्रोयट्' (polychroite) वा 'क्रॉसीन' (crocin), रंग नाशिल्लो क्रिस्टलायन् नॉनरेड्युसींग (colourless crystalline non-reducing) पदार्थ, क्रिस्टलायन् हायड्रोकार्बन (crystalline hydrocarbon) आनी साप थोड्या प्रमाणांत उडून वचपी (volatile) तेल आस्पावता.

केशराचे लागवडीखातीर एप्रिल, मे आनी जून म्हयन्यांत जमीन तयार करतात. ही लागवड देंवती आशिल्ले जमनींत करतात. लागवड करचे पयलीं आठ वर्सां कसलेंच पीक जमनींत काडिनात. सुर्वेक जमीन नांगरून सारें घालतात. लागवड करपाखातीर काडिल्ल्यो केशराच्या रोंपयांच्यो तीन वर्सांच्यो मुंडल्यो जमनींत १० सेंमी. खोल वळीन रोयतात. दोन वळींमदीं २० सेंमी. सुवात सोडिल्ली आसता. दर ४-५ वळींउपरांत खोल आनी रुंद चर मारतात. एक फावट मुंडल्यो रोयतकच सुमार १४ वर्सां मुंडल्यो रोवपाची गरज पडना. ह्या काळांत तांकां सारें वा उदक दिनात.

केशराक येवपी फुलां, सप्टेंबर आनी नोव्हेंबर म्हयन्यांत फांतोडेर एकठांय करतात. उपरांत केशराच्या फुलांतले किंजल्क काडून भट्टेर सुकयतात. सुकयल्या उपरांत किंजल्क कुरकुरीत जाता. ताचो मोडून पिठो करतात. ह्या पिठ्याक उंची केशर म्हणटात. सुमार अर्द किग्रॅ. उंची केशर तयार करपाक साठ हजार फुलां लागतात. उंची केशर करून उरिल्ल्या 'परागकोश' आनी पाकळ्यासावन सादें केशर तयार करतात. सुकिल्लीं फुलां उदकांत बुडोवन तातूंत हेर झाडांचीं फुलां आनी रसायनीक रंग भरसून हाचेपरसूय हलके केशर तयार करतात.

केशर चड करून खावपाच्या पदार्थाक रंग आनी सुवाद दिवपाक वापरतात. तें मिठाय, लोणी, चीज, केक, खीर, लाडू, साकरभात आदी खाणांनी वापरतात. केशर वखदी आसून तें कामोत्तेजक, भूक वाडोवपी, मुतूंक निवळ करपी, बायलांची म्हयन्याची पाळी सुरू जावंक मदत करपी, उत्तेजक आनी दुखीचेर वखद म्हूण वापरतात.

- प्रा. प्रेमानंद गो. फडते

**केशव दैवज्ञ:** (कार्यकाळः १५ वो शेंकडो).

एक भारतीय ज्योतिशशास्त्रज्ञ. हो कोंकण दर्यादेगेवेल्या नंदिग्राम गांवांत रावतालो. हाणें वैजनाथ नांवाच्या गुरूकडेन आपलें शिकप घेतलें. ताचो बापूय कमलाकार आनी चलो गणेश हे दोगूय व्हड ज्योतिशी आसले.

ताचे 'ग्रहकौतुक', 'जातकपध्दती', 'मुहूर्तपध्दती' हे ग्रंथ नामनेक पावल्यात. ताणें स्वता घेतिल्ल्या वेधांविशींचो नियाळ खोलायेन अभ्यास करून बरयला.

- कों. वि. सं. मं.

**केशवसुतः** (जल्मः ७ ऑक्टोबर १८६६, मालगुंड-रत्नागिरी; मरणः ७ नोव्हेंबर १९०५, हुबळी-कर्नाटक).

मराठींतलो एक नामनेचो कवी. ताका आर्विल्ल्या मराठी कवितेचो प्रवर्तक अशें मानतात. पुराय नांवः कृष्णाजी केशव दामले. 'केशवसुत' हें लिखणेनांव ताका तेन्नाच्या 'काव्यरत्नावली' म्हयनाळ्याचो संपादपी नारायण फडणीस हाणें दिलें. ह्याच नांवान तो लोकांमुखार आयलो. खेड, बडोदा, वर्धा, नागपूर आनी पुणे ह्या शारांनी ताचें शिकप जालें. शिकता आसतनाच १८८० वर्सा ताचें लग्न जालें. उपरांत १८८९ वर्सा मॅट्रिकची परीक्षा पास जातकच १८९७ मेरेन ताणें कांय सुवातींनी तात्पुरत्यो अश्यो नोकऱ्यो केल्यो. त्या काळांत मुंबय हांगा प्लेग रोगाची सांथ आयिल्ली म्हूण मुंबय सोडून तो खानदेश वाठारांत रावपाक गेलो. सुर्वेक ताणें भडगांव हांगाचे नगरपालिकेचे शाळेंत शिक्षकांची नोकरी धरली. उपरांत १९०१ वर्सा फैजपूर हांगाचे शाळेचो मुख्याध्यापक म्हूण काम केलें. मुखार १९०४ त, ताणें धारवाड हांगा सरकारी शाळेंत मराठी शिक्षकाचें काम केलें.



केशवसुत

ताणें भुरगेपणा-सावन कविता बरोवपाक सुरवात केल्ली. मात १८८५ सावन १९०५ ह्या काळांत खऱ्या अर्थान कवी म्हूण तो लोकां-मुखार आयलो. सद्या ताच्यो सुमार १३५ कविता सांपडटात. काव्य हेंच ताचे जिणेचें उद्दिश्ट जावन आसलें. आपल्या खुबशा कवितांनी ताणें नवे प्रयोग करपाचो यत्न केलो आनी तातूंत ताका पुराय यस आयलें. संस्कृत आनी मराठी कवींच्या कवितांपरस, इंग्लीशींतल्या स्वच्छंदतावादी मनोवृत्तीच्या वर्डस्वर्थ, शेली, कीट्स ह्या कवींचो ताच्या कवितांचेर खूब प्रभाव पडिल्लो दिश्टी पडटा.

केशवसुताच्या कवितांतल्यान व्यक्तिगत आत्माविश्काराचें दर्शन घडटा. मनशांमदले मोगाळ संबंद, दादल्या-बायलांमदले मोगाचे धागे, सैम, समाजीक बंडखोरी आनी गूढ अशी साक्षात्कारी जाणविकाय हे ताचे कवितेचे विशय जावन आसात. ताचे कवितेवरवीं ताची मेकळी मनोवृत्ती नदरेंत भरता. ह्या मेकळ्या स्वच्छंद मनोवृत्तीच्या आविश्काराक लागून मराठी कवितेंत क्रांती घडून आयली. फुडले पिळगेंतल्या कवींनी आपले नवे कवितेंत हाचो मोट्या प्रमाणांत उपेग केलो. ताच्या 'भृंग' (१८९०), 'पुष्पापत्र' (१८९२) आनी 'फुलपाखरुं' (१९००) हे कांय कवितांतल्यान सैमाचें दर्शन घडटा. 'तुतारी' (१८९३), 'नवा शिपाई' (१८९८), 'गोफण केली छान' (१९०५) ह्या कवितांतल्यान ताचे क्रांतिकारक समाजीक विचार दिसून येतात. स्वतंत्रताय, समानताय, बंधुत्व आनी विशाल मानवतावाद ह्या तत्त्वांचेर आदारून केशवसुतान आपली कविता घडयली.

गूढ अशा अणभवाची नवलायेन केल्ली अभिव्यक्ती ताच्या कांय कवितांतल्यान दिश्टी पडटा. ताची 'झपूर्झा' ही अशीच एक गूढ अणभवान भरिल्ली कविता खूब गाजली. ताच्या हेर गूढ-गुंजनात्मक कवितांनी 'म्हातारी' (१९०१) आनी 'हरपले श्रेय' (१९०५) ह्या कवितांचो आस्पाव जाता.

केशवसुताची काव्यशैली खूबशी रांगडी आनी राकट जावन आसा. देखून आदल्या पंडीत कवींची अलंकारिक सया तातूंत चडशी दिश्टी पडना. केशवसुतान कविता बरयता आसतना अक्षरगणवृत्तापरस मात्रागणवृत्तांचो चड उपेग केलो. इंग्लीश साहित्यांतल्या 'सॉनेट' ह्या छंदप्रकाराचो मराठी कविता बरपावळींत सगळ्यांत पयलो उपेग केशवसुत हाणें केलो. आपल्या काव्यांत ताणें कांय नव्या मात्रावृत्तांचोय उपेग केलो. ताणें कांय इंग्लीश कविताय बरयल्यात. ताणें एक नाटकूय बरयल्लें, पूण तें उजवाडाक आयलेंना.

केशवसुताल्यो कविता ताच्या मरणाउपरांत, १९१६ त, हरि नारायण आपटे हाणें उजवाडाक हाडल्यो. गोविंदाग्रज, बालकवी, रेंदाळकर, काव्यविहारी हांच्यासारके नामनेचे कवी आपणाक केशवसुताचे शिष्य समजताले. केशवसुताच्या कांय कवितांतल्या क्रांतीवादी विचारांचेर खूब वाद जालो. केशवसुताचे प्रतिभाशाली कवितेचो प्रभाव फुडले नवे कवी-पिळगेचेर पडलो. १९६६ वर्सा, महाराष्ट्र सरकारान केशवसुताची जल्मशताब्दी व्हडा दबाज्यान मनयली.

प्रा. सुमंत कनयाळकर

**केशवैन, शेषगिरी नारायणः** (जल्मः २२ मार्च १८८९ माळगी-कर्नाटक; मरणः २१ सप्टेंबर १९६४).

सहकार मळावयलो एक नामनेचो जाणकार, स्वतंत्रताय संग्रामांतलो फुडारी आनी समाजसेवक.

बापायचें नांव- रामचंद्रराव आनी आवयचें नांव- रुक्मिणीबाय. मूळा नक्षत्राचेर जल्म जाल्ल्यान ताच्या आवय-बापायन ताका केशवैन घराण्याक पोसको दिल्लो. पूण तो त्या घराण्यांत येवचेपयलींच ताचो पोसको बापूय नारायण राव हाका मरण आयिल्ल्यान ताका सांबाळपाची आनी ताच्या शिक्षणाची जापसालदारकी ताची पोसकी आवय पद्मावतीबाय आनी आजी लक्ष्मीबाय हांणी सांबाळ्ळी.

ताचें शिक्षण शिरसी कारवार हांगा जालें. १९०५ वर्सा तो मॅट्रिक पास जालो. घराण्याची जापसालदारकी पडिल्ल्यान तो फुडें शिकूंक पावलो ना. आपल्या शेताभाटांची देखरेख करून ताणें वेपाराक सुरवात केली, पूण वेपारांत बरेंच लुकसाण जाल्ल्यान तो सोडून दिलो.

१९०५ त 'धी शिरसी रूरल क्रेडिट सोसायटी'चो तो चेअरमन जालो. १९१३ त ताणें 'धी शिरसी अर्बन बँक' स्थापन केली. १९६४ मेरेन ते बँकेंत चेअरमन, डायरेक्टर, मॅनेजिंग डायरेक्टर ह्या पदांचेर तो आशिल्लो. ताणें आपल्या वावरान हे बँकेक नामना मेळोवन दिल्ल्यान लोक शिरसी अर्बन बँकेक 'केशवैन बँक' अशें म्हणूंक लागले. हे बँकेच्या सभाघराक 'केशवैन सभाघर' अशें नांव दिलां. ताच्या मरणाउपरांत बँकेच्या दारांत ताचो अर्दपुतळो उबारलो.

केशवैन विचारांनी गांधीवादी आशिल्लो. हरिजनसेवक संघाचो अध्यक्ष ह्या नात्यान ताणें बरोच समाजीक वावर केलो. बरींच वर्सां तो रयत संघाचो (Agriculturists' Association) अध्यक्ष आशिल्लो.

स्वतंत्रताय चळवळींत ताणें मोलाचो वावर केलो. श्री मारिकाबा देवळांत मोनजातीची हिंसा करपाची जी प्रथा आशिल्ली, ती ताणें बंद केली. १९३७ त गांधीजीच्या आदेशाप्रमाण तो काँग्रेस प्रतिनिधी म्हूण वेंचून आयलो. गांधीजीन उलो मारल्या उपरांत ब्रिटीश सत्तेआडच्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतलो आनी बंदखण भोगली. स्वतंत्रताये उपरांत ताणें आपल्या भोंवतणच्या वाठारांत शिक्षणसंस्थांची थापणूक करपाखातीरूय वावर केलो. बऱ्याच हेर संस्थांकडेन ताचो संबंद आशिल्लो.

- एस्. एम्. कृष्णराव

**केळ:** (मराठी-केळ; हिंदी-केला; गुजराती-केळ; कन्नड-बळेहण्णु; संस्कृत-कदली, रंभा, दीर्घपत्रा, उरुस्तंभ; इंग्लीश- बनाना, प्लँटेन, अॅडॅम्स फिग; लॅटीन- म्यूझा पॅरॅडिसियाका, म्यूझा सॅपिएंटम; कूळ-म्यूझेसी).



केळ

ह्या पिकाचें मूळ स्थान आशिया खंडाच्या आग्नेय भागांत आसून आर्विल्ल्या शास्त्रज्ञांच्या मतान तें भारतांतल्या आसाम राज्याचे द क्षि णे क आसा. अनादी काळासावन भारताच्या आग्नेय आनी अस्तंत भागांत ही वनस्पत दिसून येता. पूर्विल्ल्या संस्कृत ग्रं थां त केळ्याचो उल्लेख सांपडटा. आशिया खंडाच्या उश्णकटिबंधांतल्या सगळ्या वाठारांनी केळीची लागवड पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयल्या, अशें दिसून येता. अस्तंत देशांतल्या उश्णकटिबंधांत मात ह्या रोंपाची लागवड आर्विल्ले पध्दतीन करतात. वेपारी नदरेन मध्य अमेरिका, कॅरिबियन जुंवे, वेस्ट इंडीज, मेक्सिको, निकाराग्वा, ग्वाटे माला, पनामा, क्यूबा, जेमाइका, ब्राझील, व्हेनेझुएला, आल्जेरिया, ईजिप्त, मोझांबीक, ताइवान, इंडोनेशिया, बांगलादेश, श्रीलंका, ऑस्ट्रेलिया ह्या देशांनी केळीची लागवड मोट्या प्रमाणांत जाता. भारतांत तमिळनाडू, केरळ, महाराष्ट्र, गुजरात, कर्नाटक, आसाम ह्या राज्यांनी केळीची लागवड मोट्या प्रमाणांत जाता. देशांत सुमार दोन लाख चाळीस हजार हेक्टर जमीन केळीचे लागवडीखाला आसा. गोंयांत कुळागारांनी तशेंच भाटांनी केळीचें पीक हें मिश्र पीक म्हूण घेतात.

केळीचें झाड २-४ मी. ऊंच वाडटा. पानांची रुंदाय ३०-४० सेंमी. तर लांबाय १.५ ते २.५ मी. मेरेन आसता. केळीक नर, मादी आनी नपुंसक अशीं तीन प्रकारचीं फुलां येतात. फळां (केळीं) १० सेंमी. ते ५० सेंमी. मेरेन लांबायेचीं आसून हो आकार ते ते जातीचेर आदारून आसता. तरनीं आसतना फळां कोरान पाचवीं आसतात तर पिकतकच तीं कोरान हळडुवीं जातात. आडवाद म्हणटा तो वसई केळ्यांचो. हे जातीच्या केळ्यांचो रंग पिकल्यार लेगीत तोच उरता. केळीचे कांय म्हत्वाचे प्रकार आसात ते अशे: म्युझा ॲक्युमीनेटा, म्युझा बालबाशियाना, म्युझा पॅरॅडीसीका, म्युझा कॉक्सीनिया, म्युझा टेक्स्टिलिस, म्युझा रोझेशिया, म्युझा सुपर्बा, म्युझा सुमात्राना, म्युझा झेबीना.

केळीच्यो जायत्यो जाती आसात. तातूंतल्यो कांय म्हत्वाच्यो जाती अश्यो: रसबाळीं, सालदाटीं, मयंडोळीं, सांवरबोंडी, सुगंधी, पुवन, स्केवेन्डीश, वसई, रोबस्ता, रस्बाळी, नेन्द्रन, सफेत वेळची, लाल केला. हातूंतल्या पयल्या चार जातींच्या केळ्यांची लागवड, गोंयांत मोट्या प्रमाणांत जाता. रसबाळीं केळीं रुचीक बरीं आसता. मयंडोळीं केळीं आकारान मोटीं आनी लांब आसता. हीं केळीं चड करून हालवो करपाखातीर वापरतात. सांवरबोंडी केळीं भाजी करपाखातीर वापरतात. तशेंच सालदाटीं केळीं भाजी करपाखातीर तशेंच पिकोवन खावपाखातीरुय वापरतात. पुवन जातीचीं केळीं रंगान तांबडीं आसतात, तर वसईचीं केळीं पिकेक बरीं आसतात. समशीतोश्ण हवामानाच्या वाठारांत केळीची लागवड खंयच्याय म्हयन्यांत करूं येता. केळीची लागवड नेम्यांपसून (suckers) करतात. केळीक दोन प्रकारचे नेमे येतात: १. तलवारीसारक्या आकाराचे (sword suckers) आनी २. गड्डे नेमे (water sprouts). नवी लागवड करपाची आसत जाल्यार तलवारीसारक्या आकाराचे नेमे वापरतात. लागवड चड करून जून म्हयन्यांत पावस पडनाफुडें करतात. लागवड करपाखातीर ५०×५०×५० सेंमी. लांब, रुंद आनी खोल आकाराचीं नेमां २.५×२.५ मी. अंतराचेर मारतात. नेमांत सुमार एक कायल कंपोस्ट वा शेणखत आनी उरिल्ली माती घालून नेमाचे मदीं केळीचो नेमो लायतात. नेमो लायल्या उपरांत कांय काळान ह्या नेम्याच्या शेजराक कितलेशेच नेमे येतात. फकत एक नेमो दवरून हेर काडून उडयतात. अशें करीना जाल्यार बरेचशें अन्न गरजेभायर ह्या नेम्यांक वता आनी ताचो उत्पन्नाचेर परिणाम जाता. गिमा दिसांनी दर ४-५ दिसांनी तर थंडे दिसांनी ८-१० दिसांनी केळीक उदक दितात. केळीचे भोंवतणची नडणी वेळोवेळ काडची पडटा.

केळीचें चड उत्पन्न मेळपाखातीर रसायनीक तशेंच सेन्द्रिय सान्याचो वापर करतात. केळीक वर्सांतल्यान १-२ पांटले शेण घालतात. केळ लायल्याउपरांत २ म्हयन्यांनी केळीक २५० ग्रॅम नत्र, २५ ग्रॅम स्फुरद आनी १०० ग्रॅम पलाश दितात. ताच्या फुडल्या चार म्हयन्यांनी परत इतलेंच सारें दितात. नेमो लायल्या उपरांत ८-९ म्हयन्यांनी केळ फुलता. उपरांत ३ ते ५ म्हयन्यांभितर घड तयार जाता. घडाचें वजन आनी तातूंतल्या केळ्यांचो आंकडो, ते ते केळीचे जातीचेर आदारुन आसता. एका घडाक ५० ते २०० केळीं आसूं येता. एक हेक्टर केळीचे बागेंतल्यान सुमार ३०-४० टन केळ्यांचें उत्पन्न मेळटा.

केळीक किडीपसून व्हडलोसो त्रास जायना. पूण मुळाक लागपी भुंगुल्ल्याचो त्रास जावं येता. हो भुंगुल्लो मुळांतल्यान भितर वता आनी केळीचें कांड पोखरता. ताका लागून केळीचीं पानां पयलीं हळडुवीं जातात आनी कांयच उपाय केलोना जाल्यार झाड मरता. हे किडीची लागण जाली जाल्यार आल्ड्रीन २-५ टक्के हो पिठो झाडाच्या मुळांत घालतात. सुयेर (Bunchy Top) ह्या रोगापसून केळीचें मोट्या प्रमाणांत लुकसाण जाता. हो रोग 'व्हायरस' नांवाच्या सूक्ष्म जंतूंपसून जाल्याकारणान ह्या रोगाची लागण एकदां जाली म्हण्टकच ताचेर उपाय आसना. पूण ह्या रोगाचो प्रसार कांय वखदांचो वापर करून कमी करूं येता. ह्या रोगाची लागण जाल्यार केळीचीं पानां बारीक मुट्टेतात; केळीची वाड खुंटता आनी केळीक घड येनात. ह्या रोगाचो प्रसार किडीपसून जाता. ह्या रोगाचेर नियंत्रण दवरपाखातीर पयलीं लागण जाल्ली केळ मुळासकट हुमटून काडून लासून उडयतात जावं पुरतात. उपरांत पोरसांतल्या उरिल्ल्या बऱ्या केळींच्या मुळांत ४० ग्रॅम ह्या प्रमाणांत 'कारबोफ्युरोन' हें वखद घालतात.

पिकिल्लें केळें पुश्टीक आसता. पिकिल्ल्या केळ्यांत प्रथिनां, स्निग्ध पदार्थ, खनिजां, जीवनसत्त्वां आशिल्ल्यान लोक तीं रुचीन खातात. तरनीं केळीं भाजयेक वापरतात. केळीच्या घडाक जी बोंडी (केळफूल) येता, ती भाजयेखातीर वापरतात. केळ्यांपसून पीठ, जेली, हालवो, चिप्स, म्हानां हेसारके पदार्थ तयार करतात. खोडापसून 'वांवळ्यो' नांवाचे दोर काडटात. वांवळ्याचो उपेग वस्तू बांदपाखातीर जाता. पिकिल्ल्या फळांपसून सोरो आनी व्हिनीगर (व्हिनाग्र) तयार करतात. हिंदू धर्मांत पूजा, देवकार्य जावं हेर कसल्याय धर्मीक कार्याखातीर केळ्यांचो, केळीच्या झाडाचो तशेंच केळीच्या सालींचो म्हळयार गब्यांचो

उपेग करतात. मोडशी, अल्सर ह्या सारकेल्ल्या रोगांचेर उपाय म्हूण पिकिल्लीं केळीं खातात. आफ्रिकेंत केळ्यांपसून 'बियर' हें मादक पेय तयार करतात. केळ्यांच्या पिठापसून 'चीयीस्ट' (जीवनसत्त्व-ब) तयार करतात. केळीच्या कांडातली मदली धवी काणी, दक्षिण भारतांत तशेंच आफ्रिकेंत भाजी म्हूण वापरतात. आवयच्या दुदाचें प्रमाण वाडोवपाखातीर आफ्रिका देशांत केळीच्या कांडाचो रोस घेतात. केळीच्या कांडापसून 'खळ' (starch) तशेंच कागद तयार करतात. केळीच्या पानांचो म्हळयार 'खोल्यांचो' गोंयांत तशेंच दक्षिण भारतांत जेवपाखातीर वापर करतात. हिंदू धर्मांत देवाक जेवणाचो नैवेद्य दाखोवपाखातीर पानां वापरतात. केळीच्या दांडाऱ्यांपसून दोरयो तयार करतात.

**रानकेळः** हे केळीचे तीन प्रकार आसात. १. हॅलिकोनिया अंगुस्टिफोलिया २. हॅलिकोनिया बिदाई ३. हॅलिकोनिया मेटॅलिका. रानकेळीचें झाड दारांत सोबेखातीर लायतात. हे केळीचीं पानां मनभुलयणी आनी सोबीत आसतात. हे केळीक तीन कप्यांचीं फळां येतात आनी फळांत तीन बियो आसतात. हीं केळीं खावपाखातीर वापरिनात.

- विश्राम गांवकार

**केळकार, पांडुरंग अनंतः** (जल्मः १९ एप्रिल १९३१, ब्रह्मा करमळी-सत्तरी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें माध्यमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो शेतकामती आशिल्लो. 'राष्ट्रीय काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. सुटके चळवळीच्या काळांत ताणें गुपीत बसकांनी वांटो घेवप, लोकांमदीं वचून राष्ट्रवादी प्रचार करप असलीं कामां केलीं.

लोकांक शिक्षण मेळचें म्हूण ताणें शाळा काडल्यो आनी तेखातीर वावर करूंक लागलो. ३० ऑक्टोबर १९५५ दिसा पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो आनी पणजी पोलीस ठाण्यांत व्हेलो. उपरांत पोर्तुगेज सरकारच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया मुखार (Territorial Military Tribunal) चवकशी जातकच ताका तीन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. २ फेब्रुवारी १९५८ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. फुडें तो परतो सुटके चळवळीच्या वावरांत वांटो घेवंक लागलो. १९७३ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**केळकार, विद्याधर शंकरः** (जल्मः १९३७, धावें-सत्तरी; मरणः एप्रिल १९७२).

गोंयचो सुटके झुजारी. १९५५ वर्सा सावन तो 'राष्ट्रीय काँग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो राष्ट्रवादी वावरांत वांटो घेतालो. २६ जानेवारी १९५५ दिसा सत्तरी तालुक्यांतल्या धावें वाठारांत, सुटके झुजारी गोविंद हरी भावे शास्त्री हाच्या फुडारपणाखाल सत्याग्रह जाल्लो, तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो. उपरांत पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया मुखार चवकशी जाली आनी ताका पांच वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

३१ डिसेंबर १९५७ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. फुडें तो परतो राष्ट्रवादी वावर करूंक लागलो. १८ जून १९८६ दिसा गोंय सरकारान, सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**केळवणः** मंगलकार्यावेळार उत्सवमुर्तीक वा यजमानाक खोसयेन ज्यो भेटी दितात, ताका 'केळवण' म्हण्टात. केळवण म्हळयार एका अर्थान अहेरूच. पयलींचे मुस्तींत अहेर नाशिल्लो. कोणागेरूय लग्न वा मुजीसारकें मंगलकार्य आसलें की ते उत्सवमुर्तीक आनी यजमानाक केळवण करपाची चाल आशिल्ली. अजुनूय ही रीत चालू आसा. गोंयांत आनी गोंयांभायरूय ही रीत चलता. हिंदूंवरी किरिस्तांव आनी मुसलमान हांच्या मदींय ही रीत दिश्टी पडटा. जांच्या घरांत मंगल कार्य जावपाचें आसता, तांचे खोसयेंत भर घालप, उत्सवमुर्तीचें म्हत्व वाडोवप, आनी मंगलकार्य करपी यजमान्यांचो अर्थीक भार कमी करप, ह्या हेतूंनी ही प्रथा सुरू जाली. ती अजुनूय चालू आसा.

केळवणीचे दोन प्रकार दिश्टी पडटातः

**घरची केळवणः** घरांत मंगलकार्यानिमतान, पुण्याहवचन देवकारें करतात त्या वेळार सोयरींधायरीं, इश्टइश्टिणी, शेजारी जमतात आनी केळवण म्हूण उत्सवमुर्तीक भेटवस्तू दिवन आशीर्वाद दितात. चलयेच्या लग्नावेळार व्हंकलेक कांसाराकडल्यान चुडो भरल्या उपरांत हेर सवायशिणी बायलांक कांकणां घालतात आनी व्हंकलेक केळवण करतात.

**भायली केळवणः** जेन्ना एकाद्र्याचें लग्न वा मूज आसता, तेन्ना ते उत्सवमुर्तीक ताच्यो इश्टइश्टिणी, सोयरींधायरीं आपल्या घराकडेन आपोवन व्हरतात. ताका बरें जेवण दिवन, आपल्याक तांकता ते प्रमाण भेटवस्तू दिवन केळवण करतात. चल्याच्या मुजी वेळार तेचपरी पुताच्या वा धुवेच्या लग्नावेळार जांवयाक आनी धुवेक अगत्यान कुळारा व्हरून भोवमान करपाची चाल आसा. लग्न, मूज ह्या बंधनांत अडकुचेपयलीं मेकळेपणान एकामेकांक मेळप ह्या निर्मळ हेतून ही रीत करतात. गावडो आनी हेर समाजांत लाडवांची वा केळ्यांचीय केळवण करतात. त्या वेळार संवसाराक उपेगी पडपी आयदनां हाडून तातूंत लाडू वा केळीं भरून दितात. कांयकडेन भांगराची वस्त, कपडे, आयदनां दिवन केळवण करतात.

काळाप्रमाण ही पध्दत बदलत गेल्या. आतां आमंत्रणपत्रिकेचेर 'केळवण हाडची न्हय', 'धाडची न्हय' वा 'करची न्हय' अशी विनवणी करतात. हाकालागून फुडाराक ही पध्दत उरत काय ना, हेविशीं दुबाव आसा.

- रवींद्र र. म्हाड्डोळकार

**केळेकार, गिरिजाबायः** (जल्मः ५ ऑक्टोबर १९०३, बांदोडें-फोंडें; मरणः ३ जुलय १९८२, बांदोडें-फोंडें).

गोंयच्या अंत्रूज (फोंडें) म्हालांतली एक व्हड संगीत कलाकार. बापायचें नांव वामनराव आनी आवयचें नांव राधाबाय. तिच्या घराण्याचे परंपरेंतल्यान तिका संगीतकला अवगत आशिल्ली. तिच्यो सेगीत तीन पिळग्यो संगीत कलेची साधना करीत आयल्यात. खानदानी पध्दतीन गोंयांत संगीत कला हाडपी तिची आजी सरस्वतीबाय हिचेकडल्यान तिणें संगीतकलेचें मुळावें शिक्षण घेतलें. तिका तीन भाव आनी इकरा भयणी मेळून चवदा भावंडां. ज्योत्स्ना भोळे ही नामनेची गायिका गिरीजाबायची एक भयण.

पिरायेच्या २२ व्या वर्सा गिरिजाबाय मुंबय गेली. थंय तिणें विलायत हुसेन खाँ ह्या नामनेच्या गवयाकडेन 'गंडा' बांदून घेवन, ताका गुरु मानून पांच वर्सां ताचेकडल्यान गायनकलेचें फुडलें शिक्षण घेतलें. मूळचो गोड आवाज, तातूंत शास्त्रीय गिन्यानाची भर पडिल्ल्यान, पिरायेच्या २५ व्या वर्सा मुंबय आकाशवाणीर शास्त्रोक्त गायन, नाट्यगीतां, भक्तिगीतां, भावगीतां सादर करून तिणें रेडिओ आर्टिस्ट म्हूण नामना मेळयली.

गायनकलेवांगडाच तिका नाट्यकलेचीय आवड आशिल्ली. बांदोडेच्या महालक्ष्मीच्या रामनमी उत्सवांत ती वेगवेगळ्या नाटकांनी वांटो घेताली. ह्याच काळांत मुंबय 'रेडिओ स्टार्स' नांवाचे नाटक कंपनीची थापणूक जाली. हे कंपनीन काडिल्ल्या 'बेबी' ह्या नाटकांत तिका बेबीची मुखेल भूमिका मेळळी. हे भूमिकेंत तिणें बरेंच नांव मेळयलें. त्यावेळार हिराबाई बडोदेकर सोडल्यार बायलो चडश्यो नाटकांत काम करी नासल्यो. पूण तिणें आपली भयण केसरबाय हिच्या वांगडा रंगमाचयेर पावल दवरलें आनी कुमूद सुखटणकार, भालचंद्र लाड, कृष्णा नाडकर्णी, कृष्णाबाय जोशी, मोहन संजगिरी, नंदू खोटे ह्या सारक्या जायत्या फांकीवंत कलाकारांची संगत जोडली.

आयचे नामनेचे कलाकार पं. जितेंद्र अभिषेकी, पं. रामनाथ मठकार, श्रीमती बकुळाबाय रामनाथकार, सौ. कुसूम सुर्लकार हांकां गायनकलेचें मुळावण तिचेच कडल्यान मेळ्ळें. म्हाड्डोळ लागसारच्या वेलींग सांकवाकडल्या मठांत तिणें दोन वर्सां गायन केलेचे वर्ग चलयले. उपरांत चोवीस वर्सां तिणें पणजे आकाशवाणी आनी हेरकडेन बरेच कार्यक्रम केले.

'बांदोडें ग्रामपंचायत', 'अंत्रुज लळीतक', 'रामनाथ कलाविश्कार' ह्या संस्थांचे वतीन तिचो सत्कार जाला.

१९८९ वर्सा फोंडें म्हाल पत्रकार संघ तिचे यादीखातीर १९८९ वर्सासावन संगीत संमेलन घडोवन हाडटा.

- कों. वि. सं. मं.

## केळेकार, रवींद्र राजाराम: (जल्म: १९२५, कुंकळ्ळी).

नामनेचो कोंकणी साहित्यीक. पोर्तुगेज लिसेवाच्या सव्या वर्साची परीक्षा दिल्या उपरांत ताणें १९४६ वर्सा गोंयचे सुटके झुजांत वांटो घेतलो. दोन वर्सां उपरांत महात्मा गांधीच्या सत्याग्रहाचो अभ्यास करपाक, काकासाहेब कालेलकर हाच्या सहवासांत ताणें वर्धा आश्रमांत स वर्सां काडलीं. गांधी विचार पटल्या उपरांत वर्ध्याकसावन ताणें कोंकणींत 'मीर्ग' नांवाचें एक पंद्रशी नेमाळें चलयलें. तें दोन वर्सां चल्लें. उपरांत तो दिल्लीक गेलो. वर्सभर थंयच्या गांधी स्मारक संग्रहालयांत ताणें ग्रंथपालाचें काम केलें. १९५६ वर्सा तो मुंबय आयलो आनी ताणें गोंयकारांक संस्कृतीक आनी समाजीक जाण येवची म्हूण 'गोमंत भारती' नांवाची एक संस्था काडली. तेचपरी 'गोमंत भारती' नांवाचें एक सातोळें रोमीं लिपींत चलयलें. तीन वर्सां ताणें ह्या नेमाळ्याचें संपादन केलें.



१९६० वर्सा गोंयांत येवन ताणें पर्थून गोंयच्या सुटके-झुजांत वांटो घेतलो. दोन म्हयने तो बंदखणींत आशिल्लो. १९६२ वर्सा मडगांव शारांत जाल्ले आठवे कोंकणी परिशदेचो तो येवकार अध्यक्ष जालो. ६२ सावन ८० मेरेनच्या काळांत तो सक्रीय राज-कारणांत आसलो. १९६७ वर्सा तो जपानाचे भोंवडेक गेलो. १९६९ वर्सा पणजे जाल्ल्या कोंकणी लेखक संमेलनाचो आनी उपरांत १९७८ वर्सा कोचीन हांगा जाल्ले अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.

साहित्य अकादेमीच्या कार्यकारी समितीचो तो १९७७ ते १९८८ मेरेन वांगडी आसलो. ताणें बरयेल्लीं पुस्तकां अशीं: 'महात्मा' (१९५४), 'सत्याग्रह' (१९५५), 'मंगल प्रभात' (१९५६), 'अशे आशिल्ले गांधीजी' (१९६०), 'नवी शाळा' (१९६०), 'कथा आनी काणयो' (१९६१), 'तुळशी' (१९७१), 'वेळेवयल्यो वुलो' (१९७१), 'भज गोविंदम्' (१९७३), 'उजवाडाचे सूर' (१९७३), 'भाशेचें समाजशास्त्र' (१९७४), 'मुक्ती' (एकांकी- १९७५), 'तीन एके तीन' (एकांकी), 'लाला बाला' (नाटक), 'ब्रह्मांडाचें तांडव' (नखेत्रविद्या), कोंकणींत साहित्य अकादमीचो पयलो पुरस्कार फाव जाल्लें 'हिमालयांत' (१९७६), 'महाभारत' (अनुसर्जन- दोन खंड, १९८८). ताणें मराठींत 'कोंकणीचे राजकारण' (१९६४), 'जपान जसा दिसला' (१९६७) आनी 'ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत' (१९७०) अशीं पुस्तकां बरयल्यांत. 'ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत' ह्या पुस्तकाचे गुजराती आनी हिंदींत अणकार जाल्यात. 'महात्मा गांधी- एक जीवनी' (१९८५) आनी 'काकासाहेब कालेलकर' (१९९०) हीं ताचीं दोन हिंदी पुस्तकां.

तो एक समाजीक कार्यकर्तो आनी विचारवंत. ताच्या बरपांत जिवितावशींचें चिंतन चड होल्मता. कोंकणी भाशीक लोकांची समाजीक आनी संस्कृतीक उदरगत करची, अशी ताका तळमळ आसा. ताची बरोवपाची मोड साहित्यीक आसली तरी ताची भास नितळ आनी स्पश्ट आसता.

-कों. वि. सं. मं.

## कोंकण:

भारताचे अस्तंत दर्यादिगेवयलो अशीर वाठार. चडसो महाराष्ट्राचो वांटो. पयलींच्या बऱ्याच उल्लेखांप्रमाण उत्तरेकटेन दमणगंगा आनी दक्षिणेवटेन काळी न्हंय असो हाचो विस्तार मानतात. हाची दक्षिण-उत्तर लांबाय सुमार ५०० ते ६०० किमी. आनी रुंदाय सुमार ५५ ते ६५ किमी. आसून कांय कडेन ती ९६ किमी. मेरेन आसा.

**भुंयवर्णन, हवामान, वनस्पत आनी मोनजात:** कोंकणाचे कुलाबा पलतडीं आनी कुलाबा आलतडीं अशे दोन स्वभावीक वांटे जातात. दक्षिण कोंकणात सह्याद्रीचे फांटे सामके दर्यामेरेन पावल्यात. त्या मानान उत्तरेकटेन मळांचो वाठार चड आसा. दक्षिण कोंकणाची दर्यादेग फातरांची आसा. हांगा खाडयो, ल्हानसान आखातां, उपसागर आसात. दर्यादिगे लागीं मुंबय, साश्टी, खांदेरी, उंदेरी, घारापुरी, अंजदीव हे जुंवे आसात. मुंबय आनी मार्मगोवा हीं व्हड सैमीक बंदरां आसात. तशेंच ल्हानसान बंदरांय बरींच आसात.

दमणगंगेसावन दक्षिणेवटेन वैतरणा, तानसा, उल्हास, कुंडलीका, भोगावती, सावित्री, गायत्री, वाशिष्ठी, शास्त्री, मांडवी, जुंवारी आनी कारवारलागची काळी, ह्यो कोंकणांतल्यो मुखेल न्हंयो आसात. त्यो लांबायेन उण्यो आनी पावसान भरपूर भरून व्हांवपी आसात. ठाणे जिल्ह्यांत पोखरण, विहार, तुळशी, रत्नागिरी जिल्ह्यांत धामापूर, सावंतवाडी हांगा मोती हीं मुखेल तळीं आसात.

कोंकणातलें हवामान उश्ण आनी दमट. डिसेंबर-जानेवारी म्हयन्यांत तें शीतळ आसता. सादारणपणान तापमान २१° से. ते २२° से. इतलें आसता. नैर्ऋत्येवटेनच्यान येवपी वाऱ्याक लागून कोंकणांत बरोच पावस पडटा. गोंयांत सुमार ३०० सेंमी., रत्नागिरी २५० सेंमी., मुंबय १७५ सेंमी. अशें ताचें प्रमाण उत्तरेकटेन उणें जायत वता. दोंगरावटेन पावस चड पडटा. महाबळेश्वर हांगा सुमार ५०० ते ६५० सेंमी. पावस पडटा.

कोंकणांतलो सुमार ४०% वाठार रानांचो आसा. तातूंत सदांच पावलेचार आसपी आनी पानां झडपी अशे दोनूय प्रकारचे रुख सांपडटात. साग, डेन, खैर, शिसो, कोंडो, किंदळ, हिरडो, पिपळ, जांबळ, आंबो, पणस, काजू, भिरंड असले तरेकवार रुख हांगाच्या रानांनी आसात. माड, माडयो आनी बरींच फळझाडां कोंकणांत सांपडटात. हेभायर वखदी वनस्पतूय बरीच आसा. उत्तर कोंकणात कांयकडेन तणाचो वाठार आसा जाल्यार दक्षिणेवटेन, चडकरून गोंयांत सैमीक सोबीतकाय पळोवंक मेळटा.

**इतिहास:** कोंकण हें उतर केन्ना आनी कशें जल्माक आयलें, हाचेर जाणकारांमदीं एकमत जाल्लें दिसना. कांय जाणांच्या मतान चेर देशाक 'कांग' वा 'कोंग' अशेंय नांव आशिल्लें. त्या नांवाचें एक राजघराणेंच जावन गेल्याचो उल्लेख मेळटा. ताचेवयल्यान कोंगवत आनी उपरांत 'कोंकण' हो शब्द जाला जावंये, अशें एक मत आसा. परशुरामाची आवय कुंकणा हिचेवयल्यान 'कोंकण' हें नांव आयलां, अशेंय मत कांय जाण उक्तायतात. महाभारतांत 'कोंकण' आनी 'अपरांत' वाठारांचो उल्लेख आसा. इ.स.प. चवथ्या शतमानासावन कोंकण हें नांव सांपडटा. बृहत्संहिता, राजतरंगिणी हातूंत कोंकणाचे उल्लेख सांपडटात. पेरिप्लस, प्लिनी, टॉलेमी, स्ट्रॅबो, अल्बिरुनी ह्या भायल्या भोंवडेकारांनी 'कोंकण' ह्या नांवाचो उल्लेख केला. कांय लोक ह्या वाठाराक 'अपरांत' अशेंय




म्हण्टाले. 'अपरा' म्हळ्यार अस्तंत दिका आनी 'अंत' म्हळ्यार शेवट. अस्तंत दिका सोंपता ताका अपरांत अशें म्हणूं येता. सह्याद्रीखंडांत सात कोंकणां आसात, असो उल्लेख आसा. हीं सात कोंकणां लाट देशासावन केरळमेरेन पातळ्ळ्यांत, अशेंय सांगलां. युवान च्वांग ह्या चिनी भोंवडेकारान वनवासी, बेळगांव, धारवाड ह्या घाटांवयल्या वाठारांचोय कोंकणांत आस्पाव जाला, अशें म्हळां. मध्ययुगांत कोंकणाचे तीन वांटे जाल्ले आनी तांकां बर्बर, विराट आनी किरात अशीं नांवां आशिल्लीं.

इ.स.प. तिसऱ्या आनी दुसऱ्या शतमानांत कोंकणाचेर मौर्यांचो शेक चलतालो. पयल्या शतमानांत सातवाहन राजा हांगा राज्य चलोवंक लागले. तांणी इ.स. २१८ मेरेन राज्य केलें. ४ थ्या आनी ५ व्या शतमानांत कोंकणाचेर कलचुरी वंशाच्या राजांनी सत्ता गाजयली. ६ व्या शतमानांत पर्थून मौर्यांचें राज्य आयलें. ७ व्या शतमानांत चालुक्य राजा पुलकेशी हाणें मौर्यांचेर जैत मेळोवन थंय आपले सत्तेची थापणूक केली. उपरांत थंय शिलाहारांचे राज्य चलूंक लागलें. सुमार ४५० वर्सां तांणी राज्य करतकच इ.स. १२६० त देवगिरीचो राजा महादेव हाणें कोंकणाचेर घुरी घालून तो प्रांत आपल्या राज्याक जोडलो. १३१८ त देवगिरीचें राज्य सोंपलें, तरीपूण यादव वंशाचोच नागरदेव हाणें कोंकणाचेर १३४७ मेरेन आपलो शेक चलयलो. त्याचवर्सा गुजरातच्या सुलतानान नागरदेवाक हरोवन कोंकण आपल्या शेकातळा घेतलो. मुसलमानी सत्ता हांगा १५ व्या शतमानाच्या निमणेमेरेन चालू आशिल्ली. १६ व्या शतमानाचे मुर्वेक पोर्तुगेजांनी कोंकणांत पावल घालें आनी थंय ल्हवल्हव आपली सत्ता वाडयली. उपरांत हांगा मराठे आनी ब्रिटीश हांणीय आपली सत्ता वाडोवंक सुरवात केली. १५०२ ते १६६३ मेरेन पोर्तुगेजांनी सुरत तें गोंय मेरेन बरींचशीं बंदरां आनी तांच्या भोंवतणचो वाठार हातासलो. १६५१ वर्सा शिवाजीन मुसलमान आनी पोर्तुगेज सत्तेआड घुरयो घालूंक सुरवात केली. तेखातीर ताणें कोंकणांत प्रतापगड, रायगड, सिंधुदुर्ग आनी विजयदुर्ग ह्या सारके किल्ले बांदले. शिवाजीउपरांत ताचो पूत संभाजी आनी फुडें शाहू हांणीय हांगाच्या वाठाराचेर आपलो शेक गाजयलो. फुडें पेशव्यांच्या काळांत चडसो वाठार मराठा सत्तेखाला उरलो. ब्रिटिशांनी १८१८ त पेशव्यांचेर जैत मेळोवन आपली सत्ता हाडली. हांगाचें जंजिरा संस्थान १८४० त वारस नाशिल्ल्यान खालसा जालें, जाल्यार सावंतवाडी ब्रिटिशांचें मांडलीक जालें. गोंयचो वाठार १९६१ मेरेन पोर्तुगेजांकडेन उरलो.

**समाजीक स्थिती**: कोंकणांत बरींच बौध्द आनी ब्राह्मणी लेणीं आनी कोंरातिल्लीं शिल्पां सांपडल्यांत. हांगाचे चडशे लोक महाराष्ट्रीय आसात. दक्षिणेवटेन मात गोंय आनी कर्नाटकाचे संस्कृतायेचे लोक आसात. उत्तर कोंकणांत बऱ्योच आदिवासी जमाती आनी कांय पारशी, अरब आनी ज्यू धर्मीय लोक रावतात. चडशे पारशी मुंबय शारांत आसात. पोर्तुगेज आनी हबशी लोकांनी बाटयल्ले किरिस्तांव आनी मुसलमान लोकूय हांगा रावतात.

नागपंचम, सुतापुनव, गणेश चवथ, गोकुळाष्टम, शिगमो हे कोंकणांतले मुखेल सण आसात. हेभायर पाडवो, दसरो, दिवाळी, सक्रांत, होळी हेय सण हांगाचे हिंदू लोक मनयतात. मुसलमान आनी किरीस्तांव धर्माचेय खाशेले सण हांगा पाळटात.

कोंकणांत दर्यादिगेलागसार लोकवस्ती चड दाट आसा. दोंगरी वाठारांत लोकांचें प्रमाण त्या मानान उणें आसा. पावसाचें प्रमाण बरें आशिल्ल्यान हांगा पिकावळ बरी जाता, आनी दुकळ जावपाची भिरांत नासता. भात हें हांगाचें मुखेल पीक. हेभायर नाल्ल, सुपारी, नासणो, वाल, हेर शाकभाज्यो आनी फळफळावळ मोट्या प्रमाणांत जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**कोंकणाख्यान**: कोंकणाख्यान हें ओवीबद्द, छंदोबद्द अशें काव्य आसून तातूंत कोंकण प्रदेशाची आनी खास करून गोंयची आदल्या

काळांतली म्हायती दिल्या.

स्कंद पुराणांत जो सह्याद्रीखंड आसा, तातूंत 'कोंकणाख्यान' नांवाचें आख्यान रचलां. ह्या आख्यानाच्या कर्त्याविशीं तशेंच ताच्या लेखन काळाविशीं जाणकारांमदीं मतभेद आसात. कोंकणआख्यानांत आख्यान कर्त्याचो उल्लेख मेळना, तो अज्ञात आसा. रघुनाथ सिताराम देसाई संपादित प्रतींत ग्रंथ निर्मणीविशीं उल्लेख आयला तो असो:

भार्गव नक्षत्र परम पवित्र ।।
रमणीक मनोहर विचित्र ।।
तेथे ग्रामाभिधान शिवपूर ।।
तेथे हा ग्रंथ निर्मिला गोंडदेशी ब्राह्मण ।।
सासष्टि देशीअग्रहार स्थापन ।।
तेथे एक कौशिक गोत्री जाण ।।
तीर्थ पर्याटण करी
करितां पृथ्वी पर्याटण ।।
पाहिलें शिवपूर भुवन
तेथें भेटले स्वयाती जन ।।
त्याणी अपेक्ष जाण पै केली ।।
त्याच्या आक्षेपा भरणे ।।
सांगीतली हे पूर्व रचने ।।
सकळा जना
सांगितली संपूर्ण यथास्थिती

कोंकणाख्यानाच्या लेखनकाळाविशीं जाणकारांमदीं अशेच मतभेद दिसतात. र. सी. देसाई संपादित प्रतींत लेखनकाळ शके १७८७ सांगला, तर 'बेळगांव समाचारा'न उजवाडायिल्ले प्रतींत हो काळ शके १५८९ (इ.स. १६६७) सांगला. श्रीपाद व्यं. वागळे हाणें उजवाडायिल्ले प्रतींत शके १६४३ (इ.स. १७२१) हो ह्या आख्यानाचो लेखनकाळ सांगला.

कोंकणाख्यानाच्यो पुस्तकरुपांतल्यो चार प्रती मेळटात. जे. जर्सन द. कुन्या हाणें १८७७ त उजवाडायिल्लो 'सह्याद्रीखंड', हरी भिकाजी सामंत हाणें १९०९ वर्सा 'बेळगांव समाचार' छापखान्यांत छापून उजवाडायिल्लें 'कोंकणाख्यान', श्रीपाद व्यंकटेश वागळे हाणें १९०९ वर्सा उजवाडायिल्लें 'कोंकणाख्यान' आनी रघुनाथ सीताराम देसाई संपादित १९४७ त उजवाडायिल्लें 'सह्याद्री खंड-पूर्वार्ध-उत्तरार्ध' अर्थात् 'कोंकणाख्यान'.

ह्या आख्यानांत परशुरामान निर्माण केल्ल्या कोंकणभूंयचो इतिहास, ताची व्याप्ती, शिमो, गांव, गांवचीं देवळां आनी देव, देवांचे ब्राह्मण, भजक आनी तांचो कुळवृत्तांत आनी हेर संबंदीत म्हायतीच्या तपशीलाचें वर्णन आयलां.

हें सगळें वर्णन पद्यांत म्हणजे श्लोक आनी ओवीबध्द आसा. ह्या सह्याद्रीखंडाक पूर्वार्ध आनी उत्तरार्ध अशे दोन विभाग आसून वट्ट १३०३ ओव्यांभितर हें आख्यान सांगलां. पुर्वार्धांत फाटल्या इतिहासाचेर भर दिला, तर उत्तरार्धांत उपरांत जाल्ल्या ब्राह्मण जातींमदल्या वादावादीचें वर्णन आयलां.

कोंकणाख्यान हें कोंकण भुंयेच्या इतिहासापरस हे भुंयेवेल्या कोंकणी ब्राह्मणाचेंच आख्यान जावन आसा. ह्या आख्यानांत कोंकणी ब्राह्मणाचो कुलवृत्तांत आनी मानपानावेल्यान आयिल्ल्यो घुस्पटी हांचें वर्णन आयलां. ह्या आख्यानकर्त्याक तेंच वर्णन अभिप्रेत आशिल्लें आसूंये. ह्या आख्यानाच्या उत्तरार्धाच्या पयल्या अध्यायाचे सुर्वेकूच तो बरयता -या ग्रंथानाम कोंकणे ब्राह्मणाख्यान ।। जे गोमांचल देशामध्ये कोंकण म्हणोनी म्हणता कोंकणे ब्राह्मण ।। देशाभिधान पैयासी ।।१।।

हे ग्रंथनिर्मणे फाटली उद्देश सांगतना व्याख्यानकर्त्यान बरयलां:

ज्ञाती मधोनी जे वालिता ।।
त्याचें होता प्रायचित ।।
त्याचा शरीर संबंध करुं इच्छितां
त्यासिया ग्रंथी उपदेश ।।
पोषणा देती दुजेया तें ।।
शरीर संबंध वर्ज दोन्ही गोत्रा ते
ऐसा विचार पाहाती त्यातें ।।
या ग्रंथीं उपदेश

सह्याद्रीखंड पूर्वार्ध
अध्याय १ (२६-२७)

आगा आपुला ज्ञाती धर्म ।।
आनी परंपरा आचार कर्म ।।
हे नेणे तो मुर्ख परम ।।
मनुष्यांमाजी पशु तो ।।
आगा आपुला ज्ञातिकुलधर्म
जिवयोनी वर्ते तो ज्ञाना परम ।।
उचीत अनुचीत कर्म
जाणे तो पुरुष स्वज्ञानी

सह्याद्रीखंड पूर्वार्ध
अध्याय १ (७४-७५)

कोंकणाख्यानाच्या खरेपणाविशीं कांय जाणांक दुबाव आसा. रघुनाथ सीताराम देसाई, नारायण दत्तात्रय वरेकर, डॉ. श्री. व्यं. केतकर, पां. वा. काणे, शणै गोंयबाब हांच्या मतान कोंकणाख्यानांतली भाशा आनी प्रसंग पळेल्यार तें एकतर प्रक्षिप्त आसूंये वा मूळ लिखाणांत अडेची भर घालून तें लोकांमुखार दवरलां आसूंये.

- कों. वि. सं. मं.

**कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय:** कोंकणीचो भाशीक, शिक्षणीक, साहित्यिक आनी संस्कृतीक उदरगतीचो वावर करपी गोंयांतली एक मुखेल संस्था. हे संस्थेची थापणूक ३० सप्टेंबर १९६२ दिसा मडगांव शारांत जाली. पेद्रु कुर्रैय आफोंस हो हे संस्थेचो संस्थापक अध्यक्ष. तेन्नासावन ह्याच शारांत हे संस्थेचें मुखेल कार्यालय आसा. संस्थांचे नोंदणीखातीर आशिल्ल्या कायद्याप्रमाण ही संस्था ३० मार्च १९६३ दिसा रजिस्टर जाल्ली आसा.

कोंकणी भाशा मंडळाचो कारभार थारावन दिल्ले नेमावळीप्रमाण एक वावुरपी समिती चलयता. ही वावुरपी समिती, हे संस्थेचे वांगडी, तेखातीर थारायिल्ले मांडावळीप्रमाण वेंचून काडटात. कोंकणी भाशा मंडळाचे नेमावळींत, दुसरे खेपे, २९ जानेवारी आनी १२ फेब्रुवारी १९८४ दिसा जाल्ल्या वांगड्यांच्या साबार बसकांनी बरेच नवे बदल केले. ते प्रमाण गोंय प्रदेश हेंच मंडळाचें कार्यक्षेत्र थारावन मंडळाच्या नांवांवांगडा गोंय हें उतर नव्यान जोडलें. मंडळाचो उद्देश मान्य आशिल्ल्या आनी पिरायेचीं अठरा वर्सां पुराय जाल्ल्या खंयच्याय मनशाच्यान मंडळाचो वांगडी जावं येता. मंडळाचे वांगडी तीन प्रकारचे आसात: १. दान दिवपी २. सर्वकाळ वांगडी ३. वर्सकाळ वांगडी.

मंडळाचे वावुरपी समितीचो कार्यकाळ दोन वर्सांचो आसता. दर दोन वर्सांनी एप्रिल म्हयन्यांत वांगड्यांचे साबार बसकेंत वावुरपी समितीचेर बारा वांगडी वेंचून काडटात. तशेंच गोंयच्या इकरा म्हालांतल्यान दर एका म्हालांतल्या मंडळाचे वांगडी आपापलो एक प्रतिनिधी वावुरपी समितीचेर धाडटात. पूण तेखातीर त्या त्या म्हालांत उणे ते मंडळाचे १५ वांगडी आसप गरजेचें आसता. म्हळ्यार वावुरपी समितीचेर वेंचून आयिल्ले चडांत चड २३ मेरेन वांगडी आसूं येतात. वावुरपी समितीचे पदाधिकारी अशे आसात: एक अध्यक्ष, एक उपाध्यक्ष, एक सरचिटणीस, दोन जोडचिटणीस आनी एक भांडारी. हेर वांगडी उरतात. हे पदाधिकारी वेंचून आयिल्ले वावुरपी समितीचे वांगडी आपणांमदल्यान वेंचून काडटात. वावुरपी समितीक तिच्या कार्यकाळांत चडांत चड तीन वांगडी स्वीकृत करून घेवपाचो अधिकार आसता. पूण तांकां वावुरपी समितींत मताचो अधिकार नासता. वावुरपी समितीची सादारणपणान दर म्हयन्याक बसका जाता. मंडळाचे सद्या एक हजारावयर वांगडी आसात. हातूंतले चडशे वांगडी सर्वकाळ वांगडी आसात. इतले सर्वकाळ

वांगडी आसपी, ही गोंयांतली एक मुखेल संस्था.

**मंडळाचे उद्देशः** मंडळाच्या उद्देशांत कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय हांचे उदरगतीक पालव दिवप आनी कोंकणी उलोवपी लोकांचे संस्कृतीक हितसंबंद फुडें व्हरप, हे खातीर करपाचीं कामां सांगल्यांत, तीं अशीं: बसका, सभा, प्रदर्शनां, जमाती, परिसंवाद, परिशदो, संमेलनां वेळोवेळ घडोवन हाडप; कोंकणी शाळा वा वर्ग चलोवप, कोंकणी शिक्षणाखातीर साहित्य तयार करप; कोंकणी शिकोवपाखातीर शिक्षक तयार करप आनी तांचेखातीर वर्ग चलोवप; शब्दकोश आनी उतरावळी संपादून उजवाडाक हाडप; कोंकणी साहित्याच्या अभ्यासाक पालव दिवप आनी तें उजवाडाक हाडप; कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय हांचेविशीं संशोधन करप, संशोधनाक पालव दिवप आनी तें संशोधन उजवाडाक हाडप; कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय हांचे उदरगतीखातीर कलेच्या मळार वावर करप वा तसल्या वावराक पालव दिवप.

**वावरः** मंडळ आपणाल्या उद्देशांक धरून फाटलीं २८ वर्सां काम करीत आसा. कोंकणींतल्यान मुळावें शिक्षण दिवपाच्या मळार मंडळान जायतो मुळावो वावर केला. मुळाव्या आनी माध्यमिक शिक्षणाखातीर लागतलीं वेगवेगळे तरेचीं पाठ्यपुस्तकां आनी पूरक पुस्तकां मंडळान तयार केल्यांत. हाचेभायर शिक्षणीक अभ्यासक्रमासंबंदीत विशयांवेलीं तशींच साहित्यीक विशयांवेलींय पुस्तकां मंडळान उजवाडायल्यांत. सभा, शिबिरां, संस्कृतीक कार्यावळी हांचे वरवीं मंडळ कोंकणी जागृतायेचें कार्य एकसारकें करीत आसा. मंडळ दर दोन वर्सांनी अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलन घडोवन हाडटा. १९६८ सावन आयजवेर अशीं धा संमेलनां गोंयांतल्या वेगवेगळ्या सुवातींनी जाल्यांत. मंडळ, अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेकूय संलग्न आसा आनी त्या नात्यान परिशदेचीं अधिवेशनां घडोवन हाडपाच्या वावरांतूय वांटो घेता. आयजवेर हे परिशदेच्या १८ मदलीं चार म्हत्त्वाचीं अधिवेशनां गोंयांत घडोवन हाडपाचो वावर मंडळान केला.

शिक्षणाच्या मळार मंडळ सदांच चडांत चड भर दीत आयलां. मंडळ मडगांवां एक अशी कोंकणी मुळावी शाळा चलयता. ते भायर शिक्षकांक कोंकणीचें प्रशिक्षण दिवपाखातीर 'कोंकणी शिक्षक सनद' नांवाचो अभ्यासक्रम चलयता. दर वर्सा 'कोंकणी' ह्या मंडळाच्या म्हयनाळ्या पत्राचो खासा अंक उजवाडाक हाडून, कोंकणींतल्या नव्या तशेंच जाण्टया साहित्यकारांचें साहित्य उजवाडा हाडटा. तरणाटया कोंकणी कवींक उर्बा-उमेद दिवन फुडें हाडूंक वर्सुकी कविता सर्त तशेंच बाकीबाब यादस्तीक काव्योत्सव घडोवन हाडटा. शणै गोंयबाबाचे पुण्यतिथी निमतान दर वर्सा ९ एप्रिल दिसा कोंकणी दीस मनयता आनी त्या निमतान जाणकारांचीं वेगवेगळ्या विशयांवेलीं व्याख्यानां घडोवन हाडटा. मंडळान मडगांवां कोंकणी भवन बांदपाचीय एक येवजण चालीक लायिल्ली आसा. मंडळाची मडगांवां मुखेल कचेरी आसून पणजेय एक कचेरी आसा.

- नागेश करमली

## कोंकणी भासः

कोंकणी भास चड करून भारताचे अस्तंत दर्यादिगेर महाराष्ट्र, गोंय कर्नाटक आनी केरळ राज्यांनी उलयतात. कोंकणी लोक भारताच्या हेर राज्यांनी आनी विदेशांनी शिंपडला. १९८१ वर्साचे जनगणनेप्रमाण वट्ट १५,८४,०६३ कोंकणी लोक आशिल्ले. तातूंतले ६,४०,७३८ (४०.४५%) कर्नाटकांत, ६,००,००४ (३७.८८%) गोंयांत, २,१२,२१४ (१३.४०%) महाराष्ट्रांत, १,००,९३४ (६.३४%) केरळांत आनी १८,१३४ (१.१६%) गुजरातांत आसात.

**वर्गीकरणः** कोंकणी, दक्षिण अस्तंते इंडो-आर्यन पंगडांतली भास. मराठी आनी गुजराती तिका लागींच्यो भाशा. उच्चाराच्या मळार कोंकणीक आनी बंगालीक लागींचो संबंद आसा. कांय भाशाशास्त्रज्ञांच्या मतांप्रमाण महाराष्ट्री प्राकृत आनी महाराष्ट्री अपभ्रंश भाशांसावन कोंकणी आयली. कोंकणी कोशकार श्रीपाद देसाय हाच्या मता प्रमाण इ.स. १० ते १२ शतमानांच्या काळांत अपभ्रंश भाशेसून कोंकणी उप्रासली. ताच्या मताप्रमाण राजस्थानी, गुजराती आनी कोंकणी एकाच घराण्यांतल्यो भाशा. कोंकणीचें कूळ सोदून काडूंक इतिहासीक भासविज्ञानाचे नदरेन खोल अभ्यास करची अजून गरज आसा.

पोरन्या काळासावन कोंकणाचो वेपारी संबंद अरबी देशांकडेन आशिल्लो. हाकालागून अरेबीक-पर्शियन मुळाचीं, कागद, मामलेदार, माफी, गरम, गुन्यांव, इजार आदी उतरां कोंकणींत आयलीं.

इ.स. इकराव्या शतमानासावन कदंब रायांचो संबंद गोंयाकडेन आयलो. तांच्या काळार बरय, आंगड, गोणी, दोण, तीर्प, आडादेड्ये, हाऊ, बेगोबेग आदी कानडी उतरां कोंकणीन आपणायलीं.

तेराव्या शेंकड्यांत केरळांत वस्ती केल्या कोंकणी लोकांनी मल्याळम, तामीळ भाशांचीं उळी, चिरी, काटू, नेरे, मुट्टू, मोट्टो आदी उतरां आपणायलीं.

१५१० वर्सा पोर्तुगेज गोंयांत आयले. १५१०-१९६१ ह्या काळांत पाय, मांय, इर्मांव, माना, मीस, इगर्ज, फेस्त, पात्रांव, मेज, कदेल, जनेल, बांक आदी कितलींशींच उतरां कोंकणींत आयलीं.

उतरांच्या मळार कोंकणीचो संबंद पोरने मराठीकडेन जायतो आसा. पोरने मराठींत आशिल्लीं जायतीं उतरां कोंकणींत अजून आसात पूण आतांचे मराठींत नात. देखीकः शीत, तण, प्राय.

आतांच्या काळार इंग्लीश शिकपाक लागून चडांत चड इंग्लीश उतरां आनी वाक्प्रचार आयल्यात. देखीक- बँक, चेक, बॅट, बॉल, ऑफीस.

कोंकणीच्या उच्चाराचेर, व्याकरणाचेर, बरोवपाचे रितीचेर, उतरावळीचेर आनी अर्थविन्यासाचेर हेर भासांचो प्रभाव पडला.

**बोलीः** कोंकणांत उलोवपाची भास कोंकणी. कोंकणी हें उतर चवदाव्या शेंकड्यांतल्यान मराठी संत कवी नामदेवाच्या नामदेव गाथा हातूंत २६३ व्या गौळणींत मेळटा. हे गवळणींत कोंकणी हें उतर गौळणीक वापरलां. १५१० व्या वर्सा पोर्तुगेज गोंयांत पावले. तांणी कोंकणीक लिंग्वा कोंकना (कोंकणाची भास), लिंग्वा कानारीं/कानारिना (कानारी भास), लिंग्वा द गोवा (गोंयची भास), लिंग्वा कोंकानी (कोंकणी भास) असलीं नांवां दिलीं. कोंकणी भाशेक एकूच नांव नाशिल्ले ही गजाल हातुंतल्यान स्पश्ट जाता.

भाशाविज्ञानाचे नदरेन भास वा बोली ह्या वादाक अर्थ ना. तरी जायतीं वर्सां कोंकणी ही भास वा मराठीची बोली हो वाद चल्लो. २६ फेब्रुवारी १९७५ वर्सा साहित्य अकादेमीन कोंकणी ही एक स्वतंत्र भास म्हूण मान्यताय दिली.

जात, धर्म आनी थळाप्रमाण कोंकणीच्यो बोली आसात. तातूंतल्यो मुखेल ह्योः कोचीन सारस्वतांची बोली, केरळांतली कुणबी बोली, कर्नाटक चित्रापूर सारस्वतांची बोली, कर्नाटक गौड सारस्वतांची बोली, दक्षिण कन्नड जिल्ह्याच्या किरिस्तांवांची बोली, उत्तर कन्नड जिल्ह्याच्या किरिस्तांवांची बोली, कर्नाटक खारवी बोली, कर्नाटक सुतान्यांची बोली, गोंयच्या सारस्वतांची बोली, गोंयच्या भौसाची बोली, गोंयची गावडी बोली, पेडणेची बोली, बारदेस किरिस्तांवांची बोली, साश्टी किरिस्तांवांची बोली, सावंतवाडी बोली, बेळगांव किरिस्तांवांची बोली, कर्नाटक नवायत मुसलमानांची बोली, कर्नाटक गावडी बोली.

समाजीक, राजकी आनी हेर कारणांक लागून लोकांमदीं एक प्रमाण अशी कोंकणी बोली अजून निर्माण जावंक ना. धर्माक लागून गोंयांत तशेंच कर्नाटकांत किरिस्तांवांमदीं प्रमाण कोंकणी रुपीत जाल्या. ही प्रक्रिया हिंदू समाजांत जाल्ली दिसना. हालींच्या काळांत कोंकणी शिकपाक आनी नेमाळ्यांक लागून गोंयच्या हिंदू समाजांत एके तरेची प्रमाण कोंकणी बोली येवंक लागल्या.

**लिपीः** सोळाव्या शेंकड्यामेरेन कोंकणी साहित्याची भास नाशिल्ली. ती फकत तोंडी भास आशिल्ली. बरोवंक आनी वाचूंक मराठीचो वापर गोंयांत जातालो. अशें इतिहासाच्या संशोधना वयल्यान निश्चित जालां. सोळाव्या शेंकड्यासावन किरिस्तांव धर्मगुरूंनी धर्मप्रसाराक लागून

कोंकणीचो खोलायेन अभ्यास केलो. कोंकणी व्याकरणां, कोश आनी साहित्याचो वावर तांणी केलो. हो वावर चडसो जेजुईत धर्मगुरुंनी केलो. कांय फ्रान्सिस्कन धर्मगुरूंचो हातभार ह्या वावराक लागलो. गोंयांत छापखान्याची कला जेज्वितांनी ६ सप्टेंबर, १५५६ दिसा हाडली. सोळाव्या शेंकड्यांत, तांकां गोंयांत देवनागरी खिळे करूंक मनीस मेळ्ळे नात. हाका लागून कोंकणी पुस्तकां रोमन लिपयेंत छापलीं. तेन्नासावन गोंयांत कोंकणी बरोवंक रोमन लिपी वापरतात. १६८४ वर्सा पोर्तुगेज सरकारान गोंयांत कोंकणी वापरूंक बंदी घाली. हाचो परिणाम जावन कोंकणी विसाव्या शेंकड्यामेरेन तोंडी भास जावनूच उरली. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवातीसावन गोंयांत कोंकणी बरोवंक देवनागरीचो वापर जाता. कर्नाटकांतल्या कोंकणी लोकांनी कानडी लिपी आपणायली. चडांत चड कोंकणी नेमाळीं आनी पुस्तकां कानडी लिपयेंत उजवाडाक येतात. केरळांत कोंकणी बरोवंक मल्याळम लिपी वापरतात. तांचीं पुस्तकां मात देवनागरींत उजवाडाक येतात. कर्नाटकांतले नवायत तांची कोंकणी बोली बरोवंक पर्सो-अरेबीक लिपी वापरतात. कोंकणी बरोवप्यांनी देवनागरी लिपी आपणावची म्हूण यत्न जाल्ले आसात, तरी पूण कोंकणीची एक लिपी अजून वेव्हारांत येवंक ना.

***कोंकणीची घडण***

*कोंकणीचे स्वरः* कोंकणींत तोंडी स्वर आनी नाक्ये स्वर अशे दोन प्रकारचे स्वर आसात.

तोंडी स्वर

| | मुखलो | मदलो | फाटलो |
|---|---|---|---|
| वयलो | इ, ई | - | उ, ऊ |
| मदलो | ए | अ, अ (लांब) | ओ |
| सकयलो | ऐं | आ, आ (लांब) | ऑ |

नाकयो स्वर

| | मुखलो | मदलो | फाटलो |
|---|---|---|---|
| वयलो | इं, ईं | - | उं, ऊं |
| मदलो | एं | अं, अं (लांब) | ओं |
| सकयलो | ऐँ | आं, आं (लांब) | ऑं |

*कोंकणीचीं व्यंजनां:* कोंकणींत हीं सकयलीं व्यंजनां आसात.

| | ओं | ओं.दा | दां | दां.हर | ता | मू | मो | स्वा |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| स्पर्श | प् ब् | | त् द् | | | ट् ड् | क् ग् | |
| | भ् | | थ् ध् | | | ठ् ढ् | ख् घ् | |
| नाक्यो | म् | | न् | | ञ् | ण् | ङ् | |
| | म्ह | | न्ह | | | | | |
| स्पर्श-घर्श | | | | च् ज् | च् ज् | | | |
| | | | | झ् | छ् झ् | | | |
| घर्शी | | फ् व् | | स् | श् | | | ह् |
| | | व्ह | | | | | | |
| उत्क्षेप | | | | र् | | | | |
| कुशिचो | | | | ल् | | ळ् | | |
| | | | | ल्ह | | | | |
| मदलो | | | | | य् | | | |

(ओं= ओंटयो, ओं.दा= ओंट-दांतयो; दां= दांतयो; दां. हर= दांत-हरडेचो; ता= ताळवो; मू= मूर्धन्य; मो= मोवताळवो; स्वा= स्वासदाराचो).

कोंकणीचे सगळे स्वर आनी व्यंजनां दाखोवंक देवनागरी लिपयेंत कुरवो नात. देखीकः अ (लांब), आ (लांब), अं (लांब), आदी. अनुस्वार कोंकणी भाशेचो खाशेलो गूण. कोंकणींत उतराच्या शेवटाक म्हाप्राणाचो उच्चार जायना. हेर भासांच्या प्रभावाक लागून बरयतना मात कांय जाण म्हाप्राण वापरतात. कोंकणींतलो म्हाप्राण, मराठी आनी हिंदी भासांच्या म्हाप्राणा परस मोव आसा. कोंकणींत उतरां स्वरांत आनी व्यंजनांत सोंपतात. 'अ' स्वरांत सोंपपी उतरां गोंयचे कोंकणींत भोव थोडीं आसात. संस्कृत भास देवनागरींत बरयतना विज्ञानीक रितीन बरयतात. हाका लागून संस्कृतांत बरोवप आनी वाचप एक आसता. कोंकणी देवनागरींत बरयतना ही विज्ञानीक रीत वापरिनांत. हाका लागून आमच्या बरोवपा आनी वाचपामदीं खूब अंतर आसा. देखीकः

| *बरोवप* | *उच्चार* |
|---|---|
| दीस | दीस् |
| नातू | नातु |
| उदकांत | उद्कांत् |
| चलयेक | चल्येक |
| काळजांत | काळ्जांत् |
| वावर | वाव्र |

कोंकणी देवनागरी लिपयेंत बरयतना पांय मोडची कुरू वापरिनात. देखीकः माड, पाल, कान. हाका लागून हीं उतरां अ स्वरान सोंपतात अशी समजणी कोंकणी लोकांमदीं आसा. माड, पाल, कान हीं उतरां अनुक्रमान ड्, ल् आनी न् कारान सोंपतात.

कोंकणी वाचप्यां आनी बरोवप्यांमदीं वर्ण आनी अक्षर हांचो घुस्पागोंदळ जाल्लो आसा. भाशाविज्ञानाप्रमाण वर्ण म्हणजे कुरू. अक्षर म्हळ्यार syllable. स्वर वा स्वर आनी व्यंजन मेळून अक्षर घडटा. नळ ह्या उतरांत दोन वर्ण आसात (न,ळ) आनी एक अक्षर (नळ्) आसा. काळीज ह्या उतरांत तीन वर्ण (का, ळी, ज) आसात आनी दोन अक्षरां (का+ळीज्) आसात. अमोलीक ह्या उतरांत चार वर्ण (अ, मो, ली, क) आसात आनी तीन अक्षरां (अ+मो+लीक्) आसात.

**नामः** कोंकणींत जातिवाचक नाम आनी व्यक्तिवाचक नाम आसात. आंबो, घर, चानी हीं जातीवाचक नामां. मांडवी, कालापूर, पणजी, उशा हीं व्यक्तिवाचक नामां. कोंकणींत पुल्लिंग, स्त्रीलिंग आनी नपुंसकलिंग अशीं तीन व्याकरणी लिंगां आसात. नामांक आनी विकारी विशेशणांक लिंग लागता. कोंकणींत लिंग ठरोवंक नेम नात. कोंकणी बोलींप्रमाण एकाच उतराक दुसरीं दुसरीं लिंगां आशिल्लीं दिसून येतात. देखीकः कूड (स्त्री/न/पु)= room,केक (स्त्री/पु), नाटक (न/पु), प्राणी (पु/स्त्री), विधी (पु/स्त्री), मंत्र (पु/न). कोंकणींत नामांक, सर्वनामांक आनी विकारी विशेशणांक कुसां लायतना तांच्या सामान्य रुपांक तीं लायतात. कोंकणींत एकवचन आनी भोववचन अशीं दोन वचनां आसात. भोववचन दिवंक थारायिल्ले नेम नात. संस्कृतांत आठ विभक्ती आसात, पूण कोंकणींत फकत दोन विभक्ती आसा. सादारण रुप आनी सामान्य रुप. आतांच्या काळांर हेर भासांच्या प्रभावाक लागून शिकपी लोकांमदीं सामान्य रुपाक कुसां लायनासतना तीं सरळ सादारण रुपांक लावपाची चाल दिसून येता. देखीकः कवी, कवीक. पोरने कोंकणींत कवी, कव्याक हीं रुपां आशिल्लीं.

| **सादारण रूप** | | **सामान्य रूप** | |
|---|---|---|---|
| एकवचन | भौवचन | एकवचन | भौवचन |
| पुल्लींग | | | |
| पांय | पांय | पांया- | पांयां- |
| मामा | मामा | मामा- | मामां- |
| आंबो | आंबे | आंब्या- | आंब्यां- |
| खारवी | खारवी | खारव्या- | खारव्यां- |
| पती | पती | पती- | पतीं- |
| राजू | राजू | राजवा- | राजवां- |
| गुरु | गुरु | गुरु- | गुरूं- |
| शणै | शणै | शणै- | शणैं |
| स्त्रीलिंग | | | |
| वात | वाती | वाती- | वातीं- |
| जीब | जिबो | जिबे- | जिबां- |
| बांय | बांयो | बांय- | बांयां- |
| पिडा | पिडा | पिडे- | पिडां- |
| सुगंदा | सुगंदा | सुगंदा- | -- |
| चली | चलयो | चलये- | चलयां- |
| पत्नी | पत्नी | पत्नी- | पत्नीं- |

| ताळू | ताळवो | ताळवे- | ताळवां- |
|---|---|---|---|
| नपुसकलींग | | | |
| घर | घरां | घरा | घरां |
| काळीज | काळजां | काळजा | काळजां |
| तांतीं | तांतयां | तांतयां- | तांतयां- |
| तारूं | तारवां | तारवा- | तारवां- |
| पोरसूं | पोरसां | पोरसा- | पोरसां- |
| रूं | रुंवां | रुंवा- | रुंवां- |
| केळें | केळीं | केळ्या- | केळ्यां- |
| लोणी | लोणी | लोण्या- | -- |

**सर्वनामः** कोंकणींत हीं सकयलीं सर्वनामां आसात.

*१. पुरुशवाचक सर्वनामः* हातूंत पयलो पुरुश, दुसरो पुरुश, तिसरो पुरुश अशे वांटे आसात. सकयल्या तक्त्यांत तांचीं रुपां दिल्यांतः

| पयलो पुरुश | | दुसरो पुरुश | |
|---|---|---|---|
| **एकवचन** | **भौवचन** | **एकवचन** | **भौवचन** |
| हांव | आमी | तूं | तुमी |
| हांवें | आमी | तुवें | तुमी |
| म्हाका | आमकां | तुका | तुमकां |
| म्हगेर | आमगेर | तुगेर | तुमगेर |
| म्हजो... | आमचो... | तुजो... | तुमचो... |

**तिसरो पुरुश**

**एकवचन**

| पुल्लींग | स्त्रीलींग | नपुंसकलींग |
|---|---|---|
| तो | ती | तें |
| ताणें | तिणें | ताणें |
| ताका | तिका | ताका |
| तागेर | तिगेर | तागेर |
| ताचो... | तिचो... | ताचो... |

**भौवचन**

| पुल्लींग | स्त्रीलींग | नपुंसकलींग |
|---|---|---|
| ते | त्यो | तीं |
| ताणीं | ताणीं | ताणीं |
| तांकां | तांकां | तांकां |
| तांगेर | तांगेर | तांगेर |
| तांचो... | तांचो... | तांचो... |

*२. आत्मवाचक सर्वनामः* आपूण, स्वता

*३. निर्देशक सर्वनामः* तो, ती, तें, हो, ही, हें.

*४. प्रस्नार्थक सर्वनामः* कोण, कितें.

*५. संबंदवाचक सर्वनामः* जो, जी, ज; तो, ती, तें.

**विशेशणः** कोंकणींत हीं सकयलीं विशेशणां पळोवंक मेळटात.

*१. विशेशक विशेशणः* बरो, बरी, बरें; गोरो, गोरी, गोरें. हांकां लींग आनी वचनाप्रमाण पुरतो विकार लागता. भागेवंत, दयाळ, मोगाळ आदी विशेशणांक अंशीक विकार लागता. देखीकः भागेवंता, भागेवंती, मोगाळा. मोगाळी, कोडू, गोड, दाट, सोबीत आदी विशेशणां अविकारी आसात.

*२. निर्देशक विशेशणः* हो, ही, हें; तो, ती तें.

*३. परिमाणक विशेशणः* एक, दोन, पयलो, दुसरो, अर्दो, दोडो, इतलो, कांय, खूब.

*४. प्रस्नार्थक विशेशणः* कोण, कितलो, कितें, कसलो आदी.

*५. सर्वनामीक विशेशणः* म्हजो, तुजो, ताचो, रामाचो, भुरग्यांचो, घरचो आदी.

*६. प्रतिबंदी विशेशणः* केवल, मात्र/मात, एकूच.

**क्रियाः** कोंकणींत आज्ञार्थी रूप क्रियेचो धातू दिता. देखीकः कर्, वच्, खा, पिये/पी, धांव् आदी धातू रुपां, धातूक, कुसां लावन क्रियेचीं हेर रुपां घडयतात. देखीकः

चल्+ता =चल्ता.

खा+तलो =खातलो.

धांव्+अन् =धांवन्

नाच्+अप् =नाचप्

नाचप. धांवप, शिकप आदी अप् कुसां लायल्लीं रुपां भाववाचक नामां आसात. भासविज्ञानीक नदरेन बरयल्लीं कोंकणी व्याकरणां देवनागरींत नाशिल्ल्यान, शाळेच्या पाठ्यपुस्तकांनी हीं रुपां क्रिया म्हूण शिकयतात. कोंकणींत क्रियेक सैत पुरुश लागता. देखीकः हांव (दादलो) जेवलों. हांव (बायल) जेवली/जेवलें. आमी (दादले) जेवले. आमी (बायलो) धांवल्यो. आमी (दादले आनी बायलो) धांवलीं- क्रियेक वर्तमानकाळ, भूतकाळ आनी भविश्यकाळ लागतात. देखीकः हांव धांवतां, हांव धांवलों. हांव धांवन.

**क्रियांचे वर्गः** १. क्रियांचे सकर्मक आनी अकर्मक अशे वांटे करूं येता. खा, हाड, सांग, हे क्रियांक कर्म लागता. देखून तांकां सकर्मक क्रिया म्हण्टात. हांस, रड, धांव, बस, हांकां कर्म लागना. देखून तांकां अकर्मक क्रिया म्हण्टात.

२. मुखेल आनी सहायक क्रिया कोंकणींत आसात. सहायक क्रिया दुसरे क्रियेवांगडा येता. देखीकः हांव करतां आशिल्लों. ह्या वाक्यांत करता मुखेल क्रिया आनी आशिल्लों सहायक क्रिया.

३. नियमीत आनी अनियमीत क्रिया अशे क्रियांचे वांटे जातात. नियमीत क्रिया नेमांक धरून घोळटात. देखीकः धांव, धांवता, धांवलो, धांवन. . .

अनियमीत क्रियांक नेम दिवंक मेळनात. देखीकः वच, गेलो, वेतलो/वतलो, वेतां/वतां. . . खा, खाता, खालो/खेलो/खायलो...

४. प्रेरणार्थक क्रियाः आपणांक वा दुसऱ्याक करणी करूंक लावपी क्रियेक प्रेरणार्थक क्रिया म्हण्टात. देखीकः खावय, नाचय, मागय, हाडय. बरय, लाय, चोय, रोय, आदी क्रिया प्रेरणार्थक क्रिया न्हय पूण धातू. तांचे प्रेरणार्थक धातू अशे आसातः बरोवंक लाय, लावंक लाय, चोवंक लाय, रोवंक लाय.

**क्रियाविशेशणः** कोंकणींत अविकारी आनी विकारी क्रियाविशेशणां आसात. अविकारी क्रियाविशेशणांचे प्रकार अशे आसात.

*१. रीतवाचक क्रियाविशेशणः* क्रिया कशी जाता वा जाली तें सांगता. देखीकः बेगीं, अशें, एकदम, हळू.

*२. थळवाचक क्रियाविशेशणः* क्रियेचें थळ सुचयता. देखीकः हांगा, थंय, लागीं, वयर, पयस.

*३. काळवाचक क्रियाविशेशणः* क्रिया केन्ना घडली तें सांगता. देखीकः आज, पोरूं, काल, जेन्ना.

*४. परिमाणवाचक क्रियाविशेशणः* क्रियेचें परिमाण दाखयता. देखीकः चड, खूब, भोव.

*५. प्रस्नार्थक क्रियाविशेशणः* खंय, कितें, केन्ना, कित्याक आदी.

विकारी क्रियाविशेशणां कोंकणींत घोळटात. देखीकः आंबो बरो पिकला. पेर बरें पिकलां. ह्या वाक्यांनी बरो आनी बरें क्रियाविशेशणाचें काम करतात. कर्त्याच्या लिंगा आनी वचनाप्रमाण तांकां विकार लागता.

**निपातः** दुसऱ्या रुपांवांगडा येवपी स्वतंत्र रुपांक निपात म्हण्टात. संप्रदायीक कोंकणी व्याकरणांत, निपात हो क्रियाविशेशणाचो एक भाग. कोंकणींत हे सकयले निपात आसात.

*१. प्रस्नार्थक निपातः* व्हय, गी, काय, गाय, आदी.

देखीकः तो जेवलो व्हय?

*२. न्हयकारी निपातः* न्हय.

*३. तुलनात्मक निपातः* परस, वर्न, की, आदी.

*४. संबोधन निपातः* आगा, आगे, रे, गो, आदी.

*५. बळ घालपी निपातः* च. देखीक तोच.

*६. समावेशक निपातः इ/यी/य. देखीकः ताकाय, तोयी.*

*७. अनिश्चित निपातः एक, बी. देखीकः धाएक, आवाज बी.*

***समुच्चयः** दोन उतरां वा वाक्यां जोडपी उतराक समुच्चय म्हण्टात. कोंकणींत दोन प्रकारचे समुच्चय आसातः समानाधिकरण समुच्चय आनी*

*पालवी समुच्चय. समानाधिकरण समुच्चयांत परत तीन प्रकार आसात.*

१. *संयोजक समानाधिकरण समुच्चयः* आनी. देखीकः तो आनी ती आयली.

२. *विकल्प समानाधिकरण समुच्चयः* वा, या, की.

३. *विरोधात्मक समानाधिकरण समुच्चयः* पण, पूण.

पालवी समुच्चयांत दोन प्रकार आसात.

१. *एका उतराचो पालवी समुच्चयः* बगर, जर, देखून, तर.

२. *सहसंबंदी पालवी समुच्चयः* जर, तर, इतलो. . .तितलो. देखीकः तो जर येत तर हांव वचन.

**उद्गारः** आवयगे, हाय, अहा, शी, शू आदी उद्गार कोंकणींत घोळटात.

**वाक्य विन्यासः** कोंकणींत वाक्य एका उतराचें आसूं येता. देखीकः बस. वाक्यांत सकर्मक क्रिया आसल्यार कर्तो+कर्म+क्रिया हो क्रम आसता. देखीकः बस. वाक्यांत सकर्मक क्रिया आसल्यार कर्तो+कर्म+क्रिया हो क्रम आसता. देखीकः कामील आंबो खाता. कर्म ना जाल्यार कर्तो+क्रिया क्रम आसता. देखीकः सुरेश धांवता.

**अन्वयः** कोंकणींत अन्वय, नामां आनी विशेशणां मदीं आसता. देखीकः बरो भुरगो. बरे भुरगे. बरें चेडूं. बरीं चेडवां.

नामाचो विकार विशेशणाक लागतना अन्वय आसता. देखीकः आमच्या बऱ्या भुरग्यांक मारूं नाका. नामाच्या वचना, पुरुशा आनी लिंगाप्रमाण क्रियेचो अन्वय नामा लागीं जाता. देखीकः तो गेलो. ते गेले. ती आयली. भूतकाळांत नियमीत सकर्मक क्रियेचो अन्वय कर्मा कडेन जाता. देखीकः रामान आंबो खालो. रामान आंबे खाले. लुविसान भाकरी दिली.

भूतकाळांत अनियमीत सकर्मक क्रियेचो अन्वय कर्त्याकडेन जाता. देखीकः हांव जेवण जेवलों. हांव उदक न्हालीं. आमी दूद पियेले.

**अर्थ विन्यासः** एकूच उच्चार आनी समान बरोवप, पूण अर्थ वेगळे आसपी उतरांक 'समनाम' म्हण्टात. कोंकणींत समनामां जायतीं आसात. देखीकः हांस (laugh), हांस (swan); साय (cream), साय (skirt); दर (each), दर (price).

कोंकणी बोलयांप्रमाण एकाच उतराक दुसरो वा मात्सो वेगळो अर्थ आसता. देखीकः

| बोली-१ | अर्थ | बोली-२ | अर्थ |
|---|---|---|---|
| हांस | duck | हांस | swan |
| निस्तें | fish | निस्तें | तोंडाक लावंक केल्लो जिनस |
| आंगड | market | आंगड | पसरो |
| भायर पडलो | मेलो | भायर पडलो | शेणलो |
| भडुवो | देवदूत | भडुवो | पुजारी |
| बेंजार कर | पवित्र कर | बेंजार कर | भस्ताय |
| मंत्र म्हण्टा | बडबडटा | मंत्र म्हण्टा | देवस्पण करता |

**इतिहासः** कोंकणीचें पयलें व्याकरण १५६३ वर्सा पोरन्या गोंयच्या सांत पावलू कॉलेजींत एका गोंयकार धर्मगुरुन बरयलें. ताचें नांव फादर आंद्रे वाज आनी ताचो गांव करमळे अशें कांय इतिहासकार सांगतात. सोळाव्या ते अठराव्या शेंकड्यामेरेन किरिस्तांव धर्मगुरूंनी कोंकणीची अमोलीक सेवा केली. फादर तॉमास स्टीवन्स हाणें (१५४०-१६१९) 'कोंकणी व्याकरण', 'किरिस्तांव धर्माची शिकवण' हीं पुस्तकां बरयलीं. ताचें व्याकरण ताच्या मरणाउपरांत १६४० वर्सा छापून आयलें. भारतांत छापिल्ल्या भारतीय भासांच्या व्याकरणांभितर कोंकणी व्याकरण पयलें. मराठी-कोंकणी भरसल्ले भाशेंत फादर स्टीवन्सान बरयल्लें 'क्रिस्त पुराण' नांवाचें महाकाव्य खूब गाजलां. ताचे उपरांत फादर गास्पार द सां मिगेल, फादर दियोगू रिबैर (१५६०-१६३३), फादर आंतोनियो साल्दान्य (१५९८-१६६३), फादर जुवांव द पेद्रोजा (१६१५-१६७२), फादर मिंगेल द आल्मैदा (१६०७-१६८७), फादर इनास आर्कामोने (१६१५-१६८३), फादर लियोनार्दु सिनामो, फादर करेल प्रिक्रील (१६४८-१७८५). फादर सिमांव गोमिश, फादर आमादोर द सांताना, फादर तियोतोनियो जुजे, फादर दियोगु द आमाराल हांणी कोंकणी व्याकरण, कोश, गद्य आदी बरपावळ बरयली.

एकुणिसाव्या शेकड्यांत कोंकणी मांडो, दुल्पद, देखणी, तियात्र हांचो जल्म जालो. कोंकणीचें पयलें नेमाळें 'उदेंतेचें साळक' रोमन लिपयेंत एदुआर्द ब्रुनो द सोजा हाणें २ फेब्रुवारी १८८९ वर्सा पुण्यांत सुरू केलें. ह्याच वेळार मुंबयंत वस्ती करपी कोंकणी मनशांनी कोश, व्याकरण, कोंकणी स्वयंशिक्षक असलीं पुस्तकां उजवाडाक हाडलीं. गोंयांत आनी मंगळुरांत कोशांचें आनी व्याकरणांचें काम नेटान जावंक लागलें. ह्या काळाचें साहित्य चडशें धर्मीक स्वरूपाचें आसा.

फादर स्टीवन्साच्या कोंकणी व्याकरणा उपरांत सुमार ४५ व्याकरणां बरयल्लीं आसात. छापिल्ल्या कोंकणी व्याकरणांतलीं मुखेलः फादर आंजेलो एफ. एक्स. माफेचीं 'अ कोंकणी ग्रामर' (१८८२) आनी 'कोंकणी रानांतलो सोबीत सुंदर ताळो' (१८९२), डि. एफ्. दांतस हाचें 'एलिमेंटरी कोंकणी ग्रामर' (१९१०), फादर जुजे द सांता रिता इ सोजाचें 'एलिमेंतोस ग्रामतिकैस दु लिंग्वा कोंकणी' (१९२०), वि. जे. रांजेलाचें 'ग्रामातिका दा लिंग्वा कोंकानी' (१९३३), शणै गोंयबाबाचें 'भुरग्यांलें व्याकरण' भागः १ (१९४१), बा. भ. बोरकाराचें 'मुळावें कोंकणी व्याकरण': भाग १ आनी २ (१९६९-१९७३), आर्. के रावाचें 'कोंकणी व्याकरण' (१९७७), सुरेश र. पै हाचें 'कोंकणी भाशेचें व्याकरण': भाग १ आनी २ (१९७९-१९८४), लुर्दिन अ. रोद्रीगिशाचें 'कोंकणी भाशेचें व्याकरण' (१९८३), फादर फिलीप नाजारेताचें 'कोंकणी व्याकरण' (१९८५), सुरेश बोरकाराचें 'कोंकणी व्याकरण' (१९८७).

कोंकणीचो पयलो कोश १५७० वर्सा पयलींच तयार जाल्लो हाचे इतिहासीक पुरावे आसात. १५७० ते १९९० मेरेन कोंकणीचे ६४ कोश बरयल्यात. कोंकणीचो छापिल्लो पयलो कोश १८६८ वर्सा उजवाडाक आयलो. त्या कोशाचें नांव 'दिक्सिनारियो पोर्तुगेज-कोंकणी कोम्पुस्तु पोर ऊं मिसिनारियो इतालियानो' हो कोश एका इतालियन धर्मगुरून बरयला आनी जोकीम एच्. दा कुन्य रिवारान तो संपादीत केला. उपरांतचे मुखेल कोशः फादर आंजेलो माफेचो 'एन इंग्लीश-कोंकणी अँड कोंकणी-इंग्लीश डिक्शनरी' (१८८३), सेबेस्त्यांव दालगादोचे 'दिक्सनारियो कोंकणी-पोर्तुगेज' (१८९३) आनी 'दिक्सिनारियो पोर्तुगेज-कोंकणी' (१९०५), फादर सिल्वेस्टर मिनेजिसाचो 'कोंकणी-इंग्लीश शब्द संग्रह' (१९६७), श्रीपाद देसायचो 'कोंकणी शब्दकोश' (४ भाग १९८०-१९९०), ल. सुनिताबाय हिची 'कोंकणी-हिंदी मल्याळम डिक्शिनरी' (१९८७), चंद्रकांत केणीची 'इंग्लीश-कोंकणी-हिंदी उतरावळ' (१९९०).

कोंकणी भासविज्ञानाविशींचीं पुस्तकां खूब उणीं आसात. तांतलीं मुखेल हीं: शणै गोंयबाबाचीं 'कोंकणी नादशास्त्र' (१९४०) आनी 'कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ' (१९४९); डॉ. सुमित्र म. कत्रेचें 'द फॉर्मेशन ऑफ कोंकणी' (१९४२); डॉ. ए. एम्. घाटगेचीं 'कोंकणी ऑफ साउथ कॅनरा' (१९६३), 'कोंकणी ऑफ कोचीन' (१९६७), 'कोंकणी ऑफ काणकोण' (१९६८), 'मराठी ऑफ कासरगोड' (१९७०), 'गावडी ऑफ गोवा' (१९७२); फादर दिनेश जे. आल्बुकॅर्क पै हाचें 'लिंग्विस्टिक्स ऑफ कोंकणी विद् ग्रामर अँड रेटोरीक' (१९६७), ज. रजतिचें 'सर्वे ऑफ कोंकणी इन केरळा' (१९७६), र ब. च्यारी हाचें 'सर्वे ऑफ कोंकणी इन् कर्नाटक, गोवा अँड महाराष्ट्र' (१९७७), डॉ. विल्यम माडता हाचें 'द क्रिश्चन कोंकणी ऑफ साउथ कॅनरा' (१९८४), डॉ मॅथ्यू आल्मैदा हाचें 'अ डिस्क्रिप्शन ऑफ कोंकणी' (१९८९).

कोंकणी भाशेच्या इतिहासाचेर कांय पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांतलीं मुखेल अशीं: जे. जेर्सन दा कुन्याचें 'द कोंकणी लँग्वेज अँड लिटरेचर' (१८८१), डॉ. डि. एन्. शानभागाचें 'कोंकणी लँग्वेज अँड

लिटरेचर' (१९७०), डॉ. जुजे पेरैर हाचें 'कोंकणी अ लँग्वेज' (१९७१) आनी 'लिटररी कोंकणी' (१९७३), नागेश सोंदे हाचें 'कोंकणी भाशेचो इतिहास' (१९८१), फादर आंतोन पेरैर हाचें 'द मेकर्स ऑफ कोंकणी लिटरेचर' (१९८२), डॉ. ओलिव्हिन्य गोमिश हाचें 'कोंकणी सरस्पतिचो इतिहास' (१९८९). श्रीपाद देसाय हाच्या कोंकणी शब्दकोशाच्या चवथ्या भागांत (१९९०) कोंकणी भाशेची कुळकथा नांवाचो व्हडलो लेख आसा. एकुणिसाव्या शेंकड्यासावन कोंकणी भाशेक आनी साहित्याक नवी दिका लाबली. कोंकणी नेमाळीं सुरू जालीं. कथा, कादंबरी, नाटक, भोंवडेवर्णन, आत्मचरित्र, व्यक्तिचरित्र, लेख, अणकार, कविता, एकांकी, भुरग्यांलें साहित्य अशें विंगडविंगड प्रकारांचें तोलामोलाचें साहित्य कोंकणींत येवंक सुरू जालें. कांय शाळांनी प्राथमिक शिकप कोंकणींतल्यान सुरू जालें. शाळांनी कोंकणी तिसरी भास म्हूण आनी कॉलेजींत दुसरी भास म्हूण शिकोवंक सुरवात जाली. गोंयच्या विद्यापीठांत कोंकणी एम. ए. मेरेन पावल्या. कोंकणीचीं पाठ्यपुस्तकां बारावी वर्गामेरेन गोंय माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शिक्षण मंडळ तयार करता. बी. ए. आनी एम. ए. च्या मळार कोंकणी पुस्तकां गोंय विद्यापीठ थारायता.

एकुणिसाव्या आनी विसाव्या शेंकड्यांत कोंकणीची सेवा करून मरगेस्त जाल्ले कांय मुखेल मनीस अशे आसात: डॉ. जोकिम एच्. द. कुन्या रिव्हारा, फादर आंजेलो माफे, फादर सेबेस्त्यांव दाल्गाद, दोतोर जेर्सन द कुन्य, एदुवार्द जुजे ब्रुनो द सौझा, लुकास रिबेरो, कार्लुश त्रिन्दाद दीयश, लिगोरियु दा कॉश्ता, श्रीमती अमुला शणै, इनासियु शाविरेर द सौझा, सेबेस्त्यांव साल्वादोर द जेजू दीयश, सेबेस्त्यांव तियोतोनियु द सौझा, श्रीमती दोना बारैत, मिंगेल फिलिप, फ्रांसिस्कु लुइस गोमिश, बेर्नादु नंताना पाचेकु, जुजे मारिया डायस, फ्रांसिस्कु आरावूज, शणै गोंयबाब, जॉकिम आंतोनियु फेर्नांदिश, रामचंद्र शंकर नायक, काशीनाथ श्री. नायक, रामचंद्र पा. वैद्य, बाकीबाब बोरकार, फादर सिल्वेस्टर मिनेझीस, फादर रायमुंद मास्कारेन्यश, फेलिक्स पौल नोरोन्य, लुईस मास्कारेन्यश, लुईस बुतेल्यु, डॉ. मारियानु साल्दान्य, फादर जुजे द सांता रिता इ सौझा, रंगनाथ प्रभु, नारायण एन्. पै, लक्ष्मणराव सरदेसाय, अलेक्सियो सि. फ्रांसिस्को, फाउस्तीन डि सौझा, शंकर भांडारी आनी डॉ. रघुनाथ वि. पंडित.

- फादर प्रताप नायक (जे. स.)

**कोंकणी साहित्य:** संस्कृतापसून जल्मल्ल्यो हेर आर्विल्ल्यो भासो म्हळ्यार हिंदी, गुजराती, मराठी, बंगाली जेन्ना उदेल्यो, तेन्नाच कोंकणी भाशेचो जल्म जाला जावये. चवदाव्या शेंकड्यांतलो मराठी कवी संत नामदेवाच्या एका गौळण गीतांत कोंकणी भाशेचो स्पश्ट उल्लेख मेळटा.

सोळाव्या शेंकड्यांत पोर्तुगेज लोक गोंयांत येवचेआदीं कोंकणींत साहित्य आशिल्लें. पंदराव्या-सोळाव्या शेंकड्यांतलो कवी कृष्णदास शामा हाका कोंकणींतलो पयलो बरोवपी म्हणूं येता. ताणें 'श्रीकृष्ण चरित्रकथा' ह्या मराठी काव्यावांगडाच 'अश्वमेदु', 'रघुनाथ वंशाची कथा' ह्यो कोंकणी भाशेंत कथा बरयल्यो आनी कोंकणीक मोलादीक अशें गद्य साहित्य दिलें.

१६ व्या शतमानांत पोर्तुगेजांक लागून गोंयांत छापखानो आयलो (१५५६). पयलो छापखानो रायतूर (राशोल) ह्या गांवांत स्थापन जालो. कोंकणी-मराठी पुस्तकां छापपाखातीर पोर्तुगेजांनी रोमी लिपी उपेगांत हाडली. देशी भासांचे उच्चार रोमी लिपींत उक्ते करपापासत रोमी लिपीची एक नवी पध्दत तयार केली. रोमी लिपींतले छापणावळीक लागून कोंकणी-मराठींत बरेंच साहित्य तयार जालें. पूण देवनागरी लिपीकडलो तिचो संबंद तुटलो आनी हेर भारतीय भासांकडल्यान कोंकणी कुशीक पडली. तिच्यांत हिस्पाभायर पोर्तुगेज उतरां रिगलीं आनी रोमी लिपींतलें कोंकणीचें रुप थोडें भोव वेगळें दिसून लागलें.

१६७४ त इन्क्विजिशनांत (धर्म समीक्षक मंडळ) छापखानो बंद केलो आनी अशेतरेन सुमार १२५ वर्सांच्या साहित्य निर्मणेच्या काळाची अखेर जाली. ह्या काळाक धर्मप्रसारक काळ अशें म्हणूं येता. ह्याच काळांत कोंकणीचे म्हत्वाचे अशे ग्रंथ उजवाडाक आयले. इंग्लीश धर्मप्रसारक फादर थॉमस स्टीफन्स (१५४९-१६१७) हाचो 'दोत्रीन त्रिश्तांव' (१६२२- क्रिस्ती धर्मतत्त्वां), 'आर्त द लिंग्वा कानारीन' (कोंकणी भाशेचें व्याकरण-१६४०); पोर्तुगेज धर्म प्रचारक दियोग रिबैर हाचे 'वॉकाबुलरी द लिंग्वा कानारीन' (कोंकणी भाशेची उतरावळ) आनी 'दिक्लेरेसांव द दोत्रीन क्रिस्ता' (१६३२- किरिस्तांव धर्मतत्त्वांची विस्कटावणी); फादर मिंगेल द आल्मेदा हाचो 'वनवाळ्यांचो मळो' (१६५८); फादर आन्तोन्यु द साल्दान्य हाचें 'आचार्यवंत भक्त संत आंतोनी' (१६५५ सांतु आन्तोनीचीं अचर्यां); फादर जुवांव द पेद्रोज (१६१५-१६७२) हाचें 'देवाचीं एकाग्र बोलणीं' (१९६०). थळावे भाशेक आदार आनी उर्बा दिवपाची सुरवेची नीत कुशीक सारून कोंकणीक पुराय चेपून उडोवपाची नीत सरकारान आपणायली. तेवेळचो वायसरॉय कॉन दी आल्वार हाणें तिका मुळासकट हुमटून उडोवपाचे यत्न केले आनी तीन वर्सांभितर ती ना जावंक जाय, अशें १६८४ वर्सा फर्मान काडलें. १७३१ वर्सा पवित्र धर्म समीक्षक मंडळान थारायलें की, किरिस्तांवांनी हाचेमुखार आपली आवयभास कोंकणी सोडून पोर्तुगेजूच वापरूंक जाय. १७४५ वर्सा आर्चबिशप लॉरेन्स द सान्त मारीया हाणें सगळ्या किरिस्तावांनी पोर्तुगेज उलोवंक जाय, अशी थारावणी केली. पवित्र धर्म समीक्षण मंडळ १८१२ वर्सा बंद जाले. पूण ताचे आदींच कोंकणी भास आनी साहित्य हाचें चड लुकसाण जाल्लें.

कोंकणीचेर हाडिल्ल्या चेपणाक लागून कोंकणी भास आनी साहित्य हेर भारतीय भासांपरस खूब फाटीं पडलें. पोर्तुगेजांचे धर्मनितीक आनी भासनितीक लागून गोंयकार तीन वांट्यांनी वांटून गेले. कांय गिरेस्त आनी शिकिल्ल्या घराब्यांनी आपल्या संस्कृतीक वेव्हाराची आनी घरची भास म्हूण पोर्तुगेज आपणायली, तर पोर्तुगेजांच्या राजकारणाक लागून भारतीय संस्कृतीपसून पयसावल्ल्या हिंदू गोंयकारांनी घाटा पलतडची मराठी भास आपली संस्कृतीक भास म्हूण आपणायली. कांय गिरेस्त गोंयकारांनी पोर्तुगेज भास आपणायली तरी किरिस्तांव भोवजन समाज कोंकणी उलयतालो आनी थोडो वेळ शिकिल्ली सक्तीची पोर्तुगेज भास विसरून, पूण पोर्तुगेज शिकतना शिकिल्ली रोमी लिपी आपणावन तो रोमींतल्यान कोंकणी बरोवंक लागलो. सरकाराचो वा इगर्जीचो आदार नाशिल्ल्याकारणान जें रोमी लिपींत साहित्य निर्माण जालें तें किरकोळ धर्मीक साहित्य.

ह्याच वेळार पोर्तुगेज सरकाराचो मुखेल सचीव म्हूण गोंयांत आयिल्ल्या हेलियोदोरु द कुन्य रिव्हार (१८००-१८७९) हाणें एक मोलादीक ग्रंथ बरयलो. ताचें नांव **'Ensaio Historico da Lingua Concanim'** (कोंकणी भाशेचेर इतिहासीक निबंद-१८५७).

दोतोर कुन्य रिव्हाराच्या पावलार पावल दवरून आनीक जायत्या पंडीतांनी कोंकणी भाशेचेर संशोधन केलें. तातूंतलीं कांय म्हत्वाचीं नांवां हीं- डॉ. जुजे जेर्सन द कुन्य: 'कोंकणी भास आनी साहित्य' (१८८१- **Konkani Language and Literature**). ह्या ग्रंथांत तो कोंकणी भाशेचें मूळ सोदून काडटा आनी कोंकणी ही एक स्वतंत्र भास आनी ती खंयचेच भाशेची बोली न्हय, अशें मांडटा. ह्या काळांत जरी जायते विद्वान जाले, तरी प्रतिभावान बरोवपी जाले ना. आयच्या काळांत ललित साहित्याची पयली निर्मणी करपी म्हळ्यार एदुआर्द जुजे ब्रुन द सोउझ (१८३६-१९०५). कोंकणींतलें पयलें खबरानपत्रय ताणें काडलें. पुण्यांत २ फेब्रुवारी १८८९ दिसा 'उदेंतेचें साळक' ह्या नेमाळ्याचो उदय जालो.

कोंकणींतली पयली वयली समाजीक नवलिका बरोवपाचो मानूय ताकाच फाव जाता. 'क्रिस्तांव घराबो' ही १८९१ वर्सा उजवाडाक आयिल्ली नवलिका म्हळ्यार त्या काळच्या गोंयच्या समाजीक आनी कुटुंबीक जिवितार्चें मनभुलोवणें चित्र. तातूंत मनीस सभावाचे तरातरांचे नमुने पळोवंक मेळटात. वायट चालिरितींचेर तो आपली लिखणी चलयता. हे नवलिकेचे प्रस्तावनेंत ब्रुन द सोउझ रोमी लिपींत कोंकणी

बरोवपाची एक सुदारिल्ली पध्दत मांडटा. उपरांतची ताची नवलिका म्हळ्यार 'सर्गाचो ठेवो' (१९१५). कोंकणी साहित्याचो तो पयलो वयलो बरोवपी अशें म्हणपाक हरकत ना. संवसारांतले महाकवी दान्ते आनी कामोयश हांचेकडल्यान स्फूर्त घेवन ताणें 'एव्हा आनी मोरी' हें कोंकणी महाकाव्य रचलें.

पोर्तुगेज भाशेचो आनी अस्तंती संगीताचो प्रभाव हांकांलागून गोंयांत एक नवे तरेचें साहित्य निर्माण जालें. १९ व्या शेंकड्याचे सुर्वेक मांडो आनी दुल्पदां हीं नाचगीतां तयार जालीं. ह्या गीतांनी कोंकणी वांगडाच पोर्तुगेज उतरां होल्मतात. मांडो सुर्वेक चार वळींचो आशिल्लो जावंक जाय. मागीर चार वळींउपरांत कोरस आयलो. कुडतरचो रिबैर द कॉश्त (१८५१-१९१९), आर्नाल्द मिनेझीश (१८६३-१९१७), जिझेलीनु रिबेलो (१८७५-१९३१) आनी तोरकातु द फिगेरैदु हे कोंकणींतले तीन व्हडले मांडो रचपी. त्याचकाळांत मुंबय राविल्ल्या गोंयकार किरिस्तांवांचे संस्कृतीक गरजेंतल्यान तियात्र ह्या नाट्य प्रकाराचो उदय जालो. जुआंव आगोस्तीन फॅर्नान्दीश हो पयलो वयलो तियात्रीस्त. 'कुणबी जाकी' आनी 'भाटकार बेबदो' ह्या तियात्रांनी ताणें कोंकणी भाशेंतल्यान लोकांचें मनोरंजन केलें आनी लोकशिक्षणूय केलें. तियात्र खूब लोकप्रिय जालो आनी अजुनूय आसा.

ब्रुन द सोउझ हाणें घालून दिल्ली नवलिका बरोवपाची देख जुवांव कायतान द सोउझ, आंतानिओ विसेंत द क्रूज आनी एफ्. एक्स. फॅर्नान्दीश हांणी मुखार व्हेली.

रॅजिनाल फेर्नान्दीश आनी एल्यट द ॲली (१९३१-८८), कारीदाद दामासियान फेर्नान्दीश हे कांय रोमांसी बरोवपी.

कुन्य रिव्हाराचो उलो आयकून ताचे सांगणेप्रमाण मॉसिन्योर सेबाश्तियांव रोदोल्फु दाल्गाद (१८५५-१९२२) वावुरलो. तो पाटांगडो पंडीत आनी भाशाशास्त्री. संस्कृत, मराठी, कोंकणी, कानडी, लॅटीन, पोर्तुगेज, इंग्लीश आदी भासांनी ताचो खोल अभ्यास आसलो. ताणें 'कोंकणी-पोर्तुगेज' (१८९३) आनी 'पोर्तुगेज-कोंकणी' (१९०५) हे दोन शास्त्रोक्त तरेन शब्दकोश रचून, कोंकणी भाशेच्या अभ्यासाचें आनी साहित्याचे उदरगतीचें मुळावण घालें. तांकां बरयिल्ले प्रस्तावनेंत ताणें कोंकणी ही एक संपन्न आनी स्वतंत्र भास आनी तिचें संस्कृताकडलें नातें सामकें घट, अशें मत मांडलें. तेवेळार इगर्जींत वापरिल्ले कोंकणींत जायतीं अडेचीं पोर्तुगेज उतरां रिगिल्लीं. कोंकणींत संस्कृतावेल्यान आयिल्लीं पर्यायी उतरां आसात, हें दाखोवन दिलें आनी तींच वापरल्यार अदीक बरें अशें सांगलें. कोंकणींतलें ओपारींचें आनी म्हणींचें धन दाखोवपापासत मॉ. दाल्गादान 'फ्लोरिलेजियु दुश प्रोव्हेर्बियुश कोंकानीश' (कोंकणी म्हणींचो झेलो) हें पुस्तक उजवाडायलें. तातूंत २१७७ म्हणी आस्पावतात.

ज्यॉकीं आंतोनियु फेर्नांदिश (१८८९-१९७५) हाणें कोंकणीक तोलामोलाचें धर्मीक गद्य साहित्य दिलें. 'आमचो सोडवणदार', 'चारुय वांजेलांचो झेलो' ह्यो ताच्यो म्हत्वाच्यो साहित्य कृती. तातूंत जेजू क्रिस्ताचें जिवीत विणलां आनी ताची शिकवण सांगल्या. खेरीज, रोमींत कोंकणी बरोवप्यांपासत बरयल्लें 'कोंकणी नादशास्त्र' हें पुस्तक चड मोलाचें तशेंच उपेगाचें. ताणें जायत्यो कविता रचल्यात आनी तरेकवार विशयांचेर लेख बरयल्यात.

हाचे मुखार कोंकणी भाशेक आनी कोंकणी साहित्याक घट मुळावण घालें, तें वामनराव वर्दे वालावलीकार उर्फ शणै गोंयबाब (१८७७-१९४६) हाणें. ताचो वावर जसो मुळावो तसो तोलाचो. ताणें कोंकणी लोकांचो इतिहास अभ्यासून, जळींमळीं शिंपडिल्लीं कोंकणी उतरां एकठावन आनी एकापरस एक बरीं अशीं नाटकां, कथा, लेख उजवाडांवन आयचे कोंकणीक सोबीत आनी थीर रुप दिलें. 'गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक' (१९२८) आनी 'कोंकणी भाशेचें जैत' (१९३०) ह्या ग्रंथांतल्यान विस्कळीत जाल्ल्या कोंकणी समाजाक इतिहासाचें किर्तिवंत चित्र दाखयलें, आपले भाशेचें निजी रूप भेटयलें आनी तिच्या पर्जळीत फुडाराचो दिश्टावो दिलो. 'गोमंतोपनिषत्' (पयलो खंड-१९२८; दुसरो खंड-१९३३) हो काणयांझेलो उजवाडावन गोंयच्या जिविताचो हारसो मुखार धरलो. कोंकणी भाशेची सोबाय केळयली आनी जिवितांतल्या कांय मुखेल मुळाव्या प्रस्नांची विस्कटावणी केली. 'मोगाचें लग्न' (१९१३), 'पोवनांचें तपलें' (१९४८), 'झिलबा राणो' (१९५०) हीं नाटकां बरोवन कोंकणी भाशेक नवे अलंकार दिले. ताणें घरावे कोंकणी भाशेची अपूपाय दाखयली. 'भगवंतालें गीत' (१९५९) हो भगवद्गीतेचो अणकार करून खोल आनी कठीण तात्त्विक विचार सोपे करून सांगपाची कोंकणीची तांक दाखयली.

'कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ' (१९४९) हें व्याकरण बरोवन कोंकणी खंयचेच भाशेची गांवगिरी तरा न्हय तर ती एक समर्थ स्वतंत्र भास ह्या विचाराची घट्ट म्हेड रोयली. 'पुण्यात्मो राम कामती' (१९३९) आनी 'आबे फारीय' (१९४१) हांच्यो जिणो बरोवन कोंकणी मनशाची व्हडवीक तशेंच ताची उणीव दाखयली. 'नवें गोंय' हें नेमाळें चलोवन कोंकणी वाचप्यांक एक ऊंच पांवड्याचो साहित्यीक आंक दिलो. 'भुरग्यांलो इश्ट' (१९३५) आनी 'भुरग्यांलें व्याकरण' (१९४१) रचलें. 'आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें?' (१९५५) आनी 'वालिपत्तनाचो सोद' हीं पुस्तकां बरोवन गोंयच्या इतिहासाचेर उजवाड घालो. ह्या सगळ्या साहित्यांतल्यान शणै गोंयबाबान कोंकणी समाजाक एकठायलो आनी कोंकणी आत्म्याक जागयलो.

**कोंकणी आल्लयो (भुरग्यांचीं गीतां) :**

आल्लयो म्हळ्यार भुरग्यांक न्हिदोवपाखातीर गायिल्लीं गीतां. हीं गीतां जाण्टयांनीच तयार केल्लीं आसलीं, तरी तातूंत भुरग्यांक मानवता तसलें संगीत आनी तसलीं उतरां आसतात. देखीक- ''कुर कुर काना, म्हशी गेल्यो रानां.'' भुरग्यांल्या गीतांत झाडां आनी जनावरांचो खूबसो उल्लेख आसता आनी गीतांवांगडाच भुरग्यांच्या आंगाच्या सगळ्या अवयवांची हालचाल जावंची, अशी जतनाय घेतिल्ली आसता. भुरग्यांचे हात आनी बोटां हांकां फाव तो व्यायाम घडचो, म्हूण रचिल्लीं हीं गीतां:

था था गे थाथाची
गोऱ्या गोऱ्या माणकुल्या हातांची
था कर गे कशी थिंगुना
हातांत बायच्या कांकणां
था करता करता भागली
निनी येवंक लागली

*

धोल रे बाबा धोल धोल
पदेरान हाडले बोल बोल
पदेर दुडू सांगता चड
पदेरा बोल परतून व्हर

धोल रे बाबा धोल धोल
धोला फुडें खोल खोल
धोलता धोलता भागलो
फुलां वेचूंक लागलो
एक फूल व्हेलें काक्यान

आवयचो भाव मामा हाचो भाच्याक खूब मोग. मामा हो विशय आशिल्लीं हीं कांय गीतां:

कावळे काक्या रे बाबाच्या मामाक देखिल्लो
देखिल्लो सांतेकु रे बाबा ताज्या सत्री खाकेक
कावळे काक्या रे बाबाच्या मामाक देखिल्लो
देखिल्लो बांदारू रे ताज्या सत्री खांद्यार

*

बाबा म्हज्या घोड्यार बसतलो
मामा ताका सत्री धरतलो

येथें येथें येथें येथें बस रे मोरा
मामा ना घरा ताका कोण घाली चारा
चारा खा पाणी पी भूर रे मोरा ऽ ऽ

भुरग्यांक भेश्टावपाखातीरूय कांय गीतां आसात:

घुगी गे घुगी आंबाड्यार उबी
रडटल्या भुरग्याक व्हरतली.

भुरग्यांक काणयो सांगतात तातूंतूय गीतां गुंतलेलीं आसतात. एके काणयेंत भाव भायर गेल्ले आसतना तांच्यो बायलो आपले नणंदेक दोरयेन बांदून, तिका जिवानशीं मारून मातयेंत पुरतात. थंय एक झाड किल्लता. भाव येतकच तें झाड पद म्हण्टा:

बांदिल्लीं बांदपां तटतट्टात
सुरयेचे घाये जळजळटात

भुरगें थरथरत चलतना हें गीत म्हण्टात:

जंदळी गे बाये जंदळी
माथ्यार धंयाची कदुली
जंदळीच्या बाये भारान
कणसां गेलीं मोडून

पांयांची हालचाल करपाखातीर रचिल्लें हें एक गीत.

एक पांय नाचय रे मुरारी
वाजुंदी घागरी
एक पांय नाचय रे हरी हरी
खेळ तुजो नाना परी
एक पांय नाचय रे वामना
अपुर्बायेच्या मोहना
एक पांय नाचय रे मुकुंदा
झांजरांच्या छंदा

कोंकणी जायतीं खेळांगीतां आसात. भुरगीं लिपतात, तेन्ना तांकां सोदून काडटात, ताका आपालिपा म्हण्टात.

आपालिपाचें हें गीत:

आपालिपा साय लिपा
सायचो गोंडो जिखून घर
कानांत कितें? मुदी
चल घोवाचे/बायलेचे सोदी

तशींच पावसाचेरूय कांय गीतां आसात:

पावस पडे पावस पडे भिमा रे
तामडेचीं फटकुरां तुमी शिंवा रे
पावस पडे पावस पडे भिमा गो
तामडेचीं फटकुरां तुमी शिंवा गो

*

पावस पावस घोगेता
सगलीं कुपां हुमेता

**कोंकणी कथा:** पोर्तुगेज गोंयांत येवचेपयलीं महाभारत-रामायणांतल्यो कथा, कृष्णदास शामा हाणें बरयल्ल्यो, पूण पोर्तुगेज मिशनऱ्यांनी तांचें रोमी लिप्यांतर केल्लें अशे उल्लेख मेळटात. ताचे उपरांत १८८९ त, जुजे ब्रुन द सोउझ हाच्या रोमी लिपींतल्या 'उदेतेचें साळीक' आनी ताचे उपरांतच्या हेर रोमी नेमाळ्यांनी कांय कथा आयिल्ल्यो मेळटात. पूण त्यो पुस्तकरुपान केन्नाच उजवाडाक आयल्यो नात.

कोंकणी कथेचें मूळ कोंकणी काणयांत सोदचें पडटलें. 'कुंडेकुस्कुर', 'लुडबी व्हंकल', 'पाडेबांयत गांवकार' ह्या काणयांक आर्विल्ल्या कथांचो बेस बरो रुपकार दिवं येता. वि. स. सुखठणकार आनी लक्ष्मणराव सरदेसाय हांणी अश्यो जायत्यो कथा आपल्या उतरांनी सांगल्यात. तशेंच लुसियो रुद्रीगिश आनी जॉर्ज आताईद लोबो हांणी त्यो इंग्लिशींत पर्थून सांगल्यात.

पूण आर्विल्ले कोंकणी कथेची सुरवात शणै गोंयबाबासावन जाली, अशें म्हणूं येता. 'म्हजी बा खैं गेली' ही ताची पयली कथा. ही 'नवें गोंय' ह्या तीम्हयन्यांळयांत पयलीं उजवाडाक आयली, मागीर ती 'गोमंतोपनिषत्' ह्या कथांझेल्याच्या पयल्या खंडांत उजवाडाक आयली. 'उपनिषद्' म्हळ्यार काणयांच्या रुपान केल्लो उपदेश. गोंयचे फाटभूंयेर बरयल्ल्यो ह्यो काणयो 'म्हजी बा खैं गेली', 'बाबुमामालो पणस', 'वासशणैली पोपाय', 'पितुबाबालो तांब्यापटो' ह्या काणयांनी कोंकणी भाशेची सोबीतकाय आनी कोंकणी उतरांची गिरेस्तकाय दिसून येता. १९३५ वर्सा मुंबय उजवाडाक आयिल्ल्या 'ओंवळां' नांवाच्या झेल्यांत मंगळूर वाठारांतल्या १४ बरोवप्यांच्यो काणयो आसात. ह्या चडशा कथांनी मूळ गांवची खोड होल्मता. तातूंतल्यो कांय म्हत्वाच्यो कथा ह्यो- 'लोणच्या बुयांव', 'गरिबालो संवसार', 'कुमुदाली वयनी' आनी 'जुंवळ्यो भयणी'.

मागीर जायत्या नेमाळ्यांनी कथा उजवाडाक आयल्यो. 'साद' (१९५२): संपादक- मनोहरराय सरदेसाय आनी मागीर श्रीपाद देसाय आनी फादर एच्. ओ. माश्कारेन्हास; 'मीर्ग' : संपादक- रवींद्र केळेकार; 'साळीक' : संपादक- कृष्णा करवार, शंकर भांडारी, श्रीपाद नगर्शेकार; 'विद्या': संपादक- उदय भेंब्रो. ह्या नेमाळ्यांतल्यान आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, लक्ष्मणराव सरदेसाय, कृष्ण करवार, शंकर भांडारी हांच्यो कथा आयल्यात. १९५५ वर्सा चंद्रकांत केणी हाणें 'भूंयचाफीं' हो कोंकणी कथांचो प्रातिनीधीक कथांझेलो उजवाडाक हाडलो. हातूंत गुरूनाथ केळेकार, कायतान मेंदीश हांच्यो नवे धर्तीच्यो बऱ्यो कथा होल्मतात. लक्ष्मणराव सरदेसाय हाणें बरयल्ल्यो कोंकणी कथा वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी शिंपडून आसात. ताच्यो उतार वयांत बरयल्ल्यो कथा चडश्यो आत्मचरित्रात्मक आसात.

ह्या चडश्या कथांक निबंदाचें रूप आयलां आनी त्यो 'खबरी, कांय वर्माच्यो कांय कर्माच्यो' (१९८०, साहित्य अकादमी पुरस्कार- १९८२) ह्या झेल्यांत आस्पावतात. तातूंतल्यो कांय कथा अश्यो: 'म्हजे दोळे', 'दोळ्यांचें ओपेरेसांव', 'केळ्यांघड', 'मास्तर', 'तृप्त हांव फकीर'.

चंद्रकांत केणी हाणें कथेचें आपलेंच अशें खाशेलें तंत्र आपणायलां. ताच्यो चडश्यो कथा मोटव्यो, पूण सुटसुटीत आनी साद्या सोंप्या उतरांनी बरयल्ल्यो. चंद्रकांत केणी हाचे हे कथांझेले- 'धर्तरी अजून जियेताली' (१९६४), 'आशाढ पांवळी' (१९७३), 'अळमी' (१९७५), 'व्हंकल पावणी' (१९८५, साहित्य अकादमी पुरस्कार- १९८८). दामोदर मावजो हाणें तीन कथांझेले उजवाडाक हाडल्यात: 'गांथन' (१९७१), 'जागरणां' (१९७५) आनी 'रुमडा फूल' (१९८९). आपणें पळेल्लें आनी अणभवल्लें सामान्य मनशाचें जिवीत तो कुशळतायेन चितारता. ताच्यो कांय नांवाजिल्ल्यो कथा अश्यो- 'मर्ण येना म्हूण', 'सदानंद', 'अशोक', 'जीण अशीच सोंपचेली', 'तेरेजालो घोव'.

पुंडलीक नायकाचे कथेचीं मुळां गोंयचे भुंयेंत खोल रुतल्यांत. ताची भास तशेंच ताच्या कथांचो विशय गांवगिरो. 'पिशांतर' (१९७७), 'मुठ्य' (१९७७), 'अर्दुक' (१९८९) हे ताचे कथांझेले. ताच्या कथांतल्यान गोंयच्या गांवांचें आनी गांवांतल्या लोकांच्या जिवितांचें जितें जिवें चित्र उबें रावता. 'कासय', 'पारज', 'वळ' ह्यो ताच्यो कांय गाजिल्ल्यो कथा.

रोमी लिपींतल्या साहित्याक फेलिक्स कार्दोज हाणें नवी देख दिली. पोर्तुगेज उतरांनी भरसून आनी भश्टून गेल्ली कोंकणी, ताणें निवळ नितळ करून आनी लिपीचें शुध्दीकरण करून, तिका प्रमाणरुप दिवपाक कथेच्या मळार मोलादीक वावर केलो. ताचे कथांझेले हे- 'निमणी इत्सा' आनी 'तुफान'.

गजानन जोग गोंयच्या गांवांतलें वातावरण बेसबरें चितारता. ताच्यो कथा 'रूद्र' (१९८६) नांवाच्या कथाझेल्यांत आस्पावतात.

कोंकणी भाशेंत विनोदी कथाकार अशे थोडेच. विनोदी बरोवप्यांत दत्ताराम सुखठणकार आनी अ. ना. म्हांबरो हांचीं नांवां पयलीं घेवचीं पडटलीं. सुखठणकाराच्या 'मान्नी पुनव' ह्या निबंदांझेल्याक (१९७८) वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जालो. ताच्या कांय निबंदांक जरी कथेची झांक मारता तरी तातूंत कथानक नाशिल्ल्यान कथांपरस तांकां निबंदूच म्हणप योग्य थारतलें. अ. ना. म्हांबरो हाच्या खुबशा निबंदांक कथेचें वा नाट्यमय कथेचें रूप आयलां. ताच्या 'पणजी आतां म्हातारी जाल्या' (१९८५) ह्या विनोदी कथांझेल्याक १९८८ वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जालो. ताणें संपादित केल्या 'प्रसादाफूल' (१९७१) ह्या कथाझेल्यांत बारा कथा आस्पावतात.

दत्ता नायक हो एक कुशळ कथाकार. ताच्यो १३ कथा 'एक आशिल्लो सोंसो' ह्या झेल्यांत आस्पावतात. ताचे भाशेक लागून आनी ताच्या वास्तव चित्रणाक लागून ताच्यो कथा मनांत घर करून रावतात. कथानकापरस तो स्वभावलेखनाचेर चड भर दिता. ओलिव्हीन्यु गॉमिश हाच्या 'मन ओडटा ओडना' (१९८१) ह्या कथांझेल्यांत गोंयच्या मनशाचें आनी गोंयकारांच्या चालीरितींचें दर्शन घडटा. तो मनीस स्वभावाचीं दुबळेपणां कुशळतायेन चितरायता. एन्. शिवदास गोंयचें घरावें जिवीत समर्थपणान चितरायता. गांवांतल्या लोकांच्यो समाजीक आनी धर्मीक चालीरिती, तांचो कुड्डो विस्वास, तांच्यो भोगावळी हांचो ताणें बारीकसाणेन अभ्यास केला. ताच्यो ह्यो कथा उल्लेख करपासारक्यो- 'गळसरी' (१९८१), 'अंत एके जिणेचो', 'भोळे', 'रानबैल'. महाबळेश्वर सैल हाणें कोंकणी कथेक एक नवें रूप दिलां. प्रसंगाफाटल्यान प्रसंग चितारून कथा फुडें व्हरपाची कला ताका बरी जमल्या. 'सोंशाकाळजाचें चेडूं', 'एक शेणिल्लें मर्ण', 'कोलसुणी' ह्यो ताच्यो कांय नांवाजिल्ल्यो कथा. ताच्या कथांनी चडकरून गोंय आनी कारवार ह्या वाठारांतली जीण चितारिल्ली दिसता.

कोंकणी कथेक आयचें रूप दिवपांत बायलांचोय हातभार लागला. हेमा नायक, मीना काकोडकार, शीला कोळंबकार आनी जयमाला दणायत हांणी कोंकणी कथेंतल्यान कोंकणी बायलांचें मन आनी तांचे प्रस्न उक्ते केल्यात. मीना काकोडकार हिचे 'दोंगर चंवल्ला' (१९७६) आनी 'सपनफुलां' (१९९०) हे कथांझेले उजवाडाक आयल्यात. तिच्या कथांत भावनाप्रधानता दिसून येतात. शीला कोळंबकार हिचो 'ओली सांज' (१९७३) हो कथांझेलो उजवाडाक आयला. आपले कथेंत ती भोंवतणचे प्रसंग आनी पात्रां हांकां कथेची जीवसाण दिता. 'मॅगी', 'खेळ' आनी 'बेबी' ह्यो भुरग्यांचेर बरयिल्ल्यो तिच्यो अप्रूप अश्यो कथा. तिच्या कथांत रंग आनी आवाज हांचो सोबीत मेळ साधला.

'कवासो' (१९७८) ह्या कथांझेल्यांत जयमाला दणायत चडकरून बायलांचेच प्रस्न मांडटा. तिच्या खुबश्या कथांनी उमाळ्याची ओलसाण आसली, तरी कथा सरळ एके वळींत सांगतना ती आडखळना. 'आंकवार मोरी', 'कवासो', 'नोट चलयली', 'पाल' आनी 'कावळो' ह्यो तिणें बरयल्ल्यो कांय कथा. 'पाल' आनी 'कावळो' ह्या कथांनी सवण्यांचें आनी जनावरांचें जिवीत ती कुशळकायेन चितारता.

हेमा नायक आपले विचार 'पसय' (१९८२) ह्या कथाझेल्यांतल्यान मांडटा. तिच्या कथांचो एकूच एक विशय म्हळ्यार बायल. हाकालागून तिच्या विशयाचो आवांठ ल्हान जालो तरी तिच्या कथांत एकसुत्रीपण येता. कथानकापरस स्वभावचित्रणांत ती चड रस घेता. 'गर्जन' (१९८९) हो जयंती नायक हिचो कथांझेलो. बायल आनी बायलांचेर जावपी समाजीक अन्याय आनी समाजांत आशिल्लो कुड्डो विस्वास हे तिचे कथाविशय.

'माणकां मोतयां' ह्या कथांझेल्यांत लुईश मार्तींश, बेर्नाद एवारिस्त मॅन्डीश, कायतान फेर्नांदीश, कामील मिनेझिस आनी हेर कथाकारांच्यो कथा उजवाडाक आयल्यात. साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली हिणें उजवाडायिल्लो आनी चंद्रकांत केणी हाणें संपादित केल्लो 'कोंकणी कथासंग्रह' तशेंच कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय हांणी उजवाडायिल्लो आनी अ. ना. म्हांबरो हाणें संपादित केल्लो 'स्वतंत्र गोंयांतल्यो कोंकणी कथा' हो कथांझेलो हे प्रातिनिधिक कोंकणी कथांझेले. ह्या कथांझेल्यांनी आर्विल्ल्या चडशा कथाकारांच्यो प्रातिनिधीक कथा आस्पावल्यात.

गुरूदास दामोदर कामत बांबोळकार- 'भिंगर' (१९७६), विठ्ठल आंवदियेकार- 'प्रसंग' (१९८८), अच्युत तोटेकार- 'चैत्रांगण' (१९८८), अशोक भोसलो- 'खुटावणी' , शशांक सिताराम हे कांय उल्लेख करपासारके कथांकार.

कोंकणींतल्या जायत्या बऱ्या काणयांचे अजून झेले जावंक नात. 'राखणे', 'पैणारी', 'मित्र', 'काणीक', 'साळीक', 'पुनव', 'कोंकणी', 'जाग', 'कोंकण टायम्स', 'गोमंत भारती', 'कुळागर' ह्या आनी हेर कोंकणी नेमाळ्यांनी बऱ्याच कुशळ कथाकारांच्यो समर्थ अश्यो कथा होल्मतात.

**कोंकणी कविताः** पोर्तुगेज गोंयांत येवचेपयलींसावन गोंयांत कोंकणींतल्यान कविता बरोवप जातालें, अशें अनुमान नामदेव (१४ वें शतमान) हाणें बरयिल्ल्या कोंकणी गीतावेल्यान आनी कृष्णदास शामा हाचे बरपावळीवेल्यान काडूं येता. किरिस्तांव मिशनऱ्यांनी कोंकणींत क्रिस्ती धर्मीक गद्य साहित्य खूब निर्मिलें. पूण त्या मानान पद्य खुबूच थोडें बरयलें. पोर्तुगेज गोंयां आयल्याउपरांत किरिस्तांव मिशनऱ्यांच्या वावराक लागून एकुणिसाव्या शतमानामेरेन कोंकणीभितर बरीच काव्य बरपावळ जावंक पावली. ज्योंकीं द मिरान्द हाचें 'रिगलो जेजू मळ्यांत' हें गीत नामनेक पावलां. मांडो हो गीत-नृत्य प्रकार एकुणिसाव्या शतमानांत फुल्लो. लिगोरियु द कॉश्त, कार्लुश त्रिनिदाद दियेश आनी आर्नाल्दु मिनेझीश हे कांय पयले वयले मांडो बरोवपी जावन आसात. 'देखणी' ह्या नृत्य-काव्य प्रकारांतूय कांय काव्य गुण होल्मतात.

हिंदू भक्तिगीतां १७ व्या शतमानाच्या शेवटाक केरळच्या कोंकणी लोकांमदीं संत अपय्या, राघवदास, जोगव्वा आनी आवडी हांचेवरवीं फुलूंक लागलीं. ही परंपरा आयजमेरेन श्रीमती कमलाम्मल, नरहरी प्रभु, सुहास दलाल आनी रामकृष्ण जुवारकार हांणी राखून दवरल्या. कर्नाटकांतलो नामनेचो कवी मंजेश्वर गोविंद पै (१८८२-१९६३) हाणेंय कांय कोंकणी काव्य रचलां. बयाभाव (काशिनाथ श्रीधर नायक) हाच्या 'सड्यावेलीं फुलां' ह्या १९४६ त उजवाडाक आयिल्ल्या कविता झेल्यावरवीं कोंकणी काव्याक नवो जल्म मेळ्ळो, अशें म्हणूं येता. अणभवांची खोलाय आनी उंचेल्या पांवड्यावेलें तंत्र तातूंत जाणवता. 'पायजणां' (१९६०), 'सासाय' (१९८०, साहित्य अकादेमी पुरस्कार-१९८१) ह्या कविताझेल्यांवरवीं बाकीबाब बोरकार हो समर्थ आनी प्रतिभावंत कवी, मोग आनी अदृश्ट हांचो थाव घेतना दिसता. भोंवतणच्या घडणुकांविशीं ताची जागृकताय जाणवता. मनोहरराय सरदेसाय हाणें आपल्या 'गोंयां तुज्या मोगाखातीर' (१९६१), 'जायात जागे' (१९६४), 'जायो जुयो' (१९७०), 'पिसोळीं' (१९७८, साहित्य अकादेमी पुरस्कार-१९८०) हांचेवरवीं कोंकणी काव्याक सहजताय आनी चित्र सदृश्यताय हाडली. र. वि. पंडित हाणें नव्या प्रयोगांवरवीं आपल्या काव्यांतल्यान सकयल्या वर्गांतल्या समाजाची व्यथा मांडली. 'म्हजें उतर गावड्याचें' (१९६३), 'धर्तरेचें कवन' (१९६३), 'दर्या गाजोता (साहित्य अकादेमी पुरस्कार- १९७९) हे ताचे कांय कवितांझेले. पांडुरंग भांगी हाणें आपल्या 'दिस्टावो' (१९७४) आनी 'अदृष्टाचे कळे' (१९८२) हातूंतल्यान स्पश्ट आनी अंतर्मुख करपी काव्य मुखार हाडलें. शंकर रमाणी हाची कविता 'जोगलांचें झाड' (१९८७) नादमय तशीच चित्रमय जावन आसा. माधव बोरकार हाची 'वोताच्यो सावळ्यो', 'उजवाडाचो रुख' (१९७५), 'पर्जळाचें दार' ह्या झेल्यांतल्यान दिसपी कविता नेटकी, अमूर्त आनी ओडलायणी आसा. रमेश वेळुस्कार हाचे कवितेंत सैमाच्या चित्राचें अस्सलपण जाणवता. ताचे कांय कवितांझेले अशेः 'आंगणी नाचता मोर मोरया', 'सावुलगोरी' (१९८९, साहित्य

अकादेमी पुरस्कार- १९९०), 'मोरपाखां' (१९७९), 'माती' (१९८३). प्रकाश पाडगांवकार हाचें काव्य 'हांव मनीस अश्वत्थामो' (१९८५, साहित्य अकादेमी पुरस्कार) उपदेशात्मक आसून लेगीत खूब शब्दबध्द आसा. 'काशी म्हण्टा' हें काव्य रचपी शिवानंद तेंडुलकार हो कवी उपरोधिक आसून धाडसी कल्पनासृश्ट रचता.

यशवंत केळेकार- 'पुंजायल्लीं वोवळां' (१९८५), उदय भेंब्रो - 'चान्याचे राती' (१९८६), रामकृष्ण जुवारकार- 'मोगरीं' (१९८४), 'कांदळां ओंवळां' (१९८७), शंकर भांडारी, हरदत्त खांडेपारकार, जेस्स फेर्नांदीश हेय नामनेचे कवी जावन आसात. श्रीमती विजयाबाय सरमळकार हिणें 'गोठलां' (१९७३) हे कवितेंत बायलजातीचे जिणेचें नाजूक दर्शन घडयलां. पुंडलीक नायक हाचे 'गा आमी राखणें' (१९७६) हे कवितेंत उतरांचें आनी कल्पनांचें असामान्य बळगें दिसून येता. सुरेश बोरकार हाणें 'वज्रथिकां' (१९८५) हे अभंगासारके कवितेंत धर्मीक गुढार्थ हाडला. वसंत प्रभु हाच्योय कविता तश्योच आसून तातूंत संगिताची लय दिसून येता. अ. ना. म्हांबरो, मनोहरराय सरदेसाय, भिकाजी घाणेकार हे विडंबनात्मक कवी आसून तांणी भुरग्यांखातीरूय कविता बरयल्यात. भरत रघुवीर नायक हाचो 'मना, मना' (१९८२) कवितांझेलो म्हळयार मनाचेर उजवाड घालपाचो एक अप्रूप असो यत्न. जे. एलं. गॉय्स हाचो 'घोडकां' (१९८२), गजानन रायकार हाचो 'बनवड' (१९८१) तशेंच महादेव नाडकर्णी हाचो 'मंत्रपुष्प' (१९८७) हो कवितांझेलो, प्रताप नायक हाचो 'जीवितांतली घडितां' (१९८०), धर्मानंद वेर्णेकार हाचो 'ल्हारां' (१९८५), हे कांय कवितांझेले आसात. नागेश करमली हाणें आपल्या 'सांवार' (१९७९), 'वंशकुळाचें देणें' (१९८९) 'जोगत' (१९७२) ह्या कवितांझेल्यांतल्यान गोंयच्या समाजाचें चित्र धगधगीत उतरांनी रंगयलां.

कांय तरनाटे कवी आयज अमूर्त, दुर्बोध कवितेकडेन आकर्शित जाले तरी चडशे कोंकणी कवी आपल्या काव्यांतल्यान सामान्य मनशाच्यो भावना, आकांक्षा आनी सपनां चितारतात. तेचप्रमाण समाजीक आनी राजकी स्थितीचेरुय खर विचार मांडटात.

भरत नायक- 'गीत गंध' (१९८६), ऑलिव्हिन्यु गॉमिश- 'पुंजायिल्ल्यो पाकळ्यो' (१९७४), माया खरंगटे (शेल्डेंकार)- 'कयपंजी', नयना आडारकर (सुर्लकार)- 'प्रतिमा', शांती तेंडुलकार- 'मोगऱ्यां आटी', प्रकाश द. नायक- 'चैतर', संजीव वेरेंकार- 'भावझुंबर', नीला तेलंग- 'काळजाची भरती', आर. रामनाथ- 'मळब रंगमाची', निलबा खांडेकार- 'वेध', सुदेश शरद लोटलीकार- 'पैस', आलेक्स गॉयस- 'काजुले', पंढरीनाथ लोटलीकार- 'आमची भूंय' (१९७५), सुरेश रामचंद्र पै- 'जैताची घुडी' (१९७४), राम प्रभू चोडणेकार- 'उमाळो' (१९८०), 'निरांजन' (१९८४) आनी 'दिवजां' (१९८७) हे कांय उल्लेख करपासारके कवितांझेले.

साहित्य अकादेमीन उजवाडायिल्लो आनी बाकीबाब बोरकार हाणें संपादित केल्लो कोंकणी काव्यसंग्रह तशेंच कोंकणी भाशा मंडळान उजवाडायिल्लो आनी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हाणें संपादित केल्लो 'स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कविता' ह्या दोन कवितांझेल्यांनी बऱ्याच कवींच्या प्रातिनिधीक कवितांचो आस्पाव जाला.

**कोंकणी तियात्र:** गोंयच्या किरिस्तांवांनी केळयल्लो एक आगळो नाट्य प्रकार. तियात्र हें उतर पोर्तुगेज तियात्र (Teatro- लॅटीन Theatruna) वयल्यान आयलां. तियात्र हो इटालियन ऑपेरांतल्यान स्फूर्त घेवन रुपाक आयला, अशें एक मत आसलें तरी तो गोंयांत आदल्या काळापसून चलत आयिल्ल्या 'जागर' ह्या नाट्यप्रकारांतल्यान जल्माक आयला, अशेंय म्हणूं येना. जागरांत नाच, गीतां आसतात आनी समाजीक आनी घरावया जिविताचेर फकाणांय आसतात. जशीं पद्य गीतां आसतात, तशेंच गद्य संवादूय आसतात. किरिस्तांव गोंयकार मुंबय वचून स्थायिक जाल्ले तेन्ना ते आपल्यावांगडा जागर घेवन गेले. धोबीतलावाचेर आशिल्ल्या गेटी थियेटर (Gaiety Theatre- आतांचो ॲम्पायर थियेटर) हातूंत जागर जातालें. मुंबयंतलो पयलो जागर १८२० ते १८३० ह्या सुमाराक जाल्लो जावंक जाय. काळांतरान एकामेकांचेर केल्ले टिकेक लागून झगडीं उप्रासूंक लागलीं. देखून जागराबदला दुसरे तरेची कार्यावळ करपाचें जुवांव आगोस्तीन्यु फेर्नांदीश, लुकासिन्यु रिबैर आनी कायतानीन्यु फेर्नांदीश हांणी थारायलें. त्याचवेळार कांय इटालियनांनी चलयिल्ली इटालियन ऑपेरा कंपनी मुंबय, पुणे, मद्रास, सिमला आनी कलकत्ता हांगा आपल्यो कार्यावळी दाखयताली.

तातूंतल्यान स्फूर्त घेवन तसल्योच कार्यावळी कोंकणींतल्यान घडोवन हाडच्यो. देखून जुवांव आगोश्तिन्यु फेर्नांदीश आनी लुकासिन्यु रिबैर हांणी इटालियन कंपनींत माचयेर हाडिल्ली सगळ्यांत लोकप्रिय कार्यावळ कोंकणींत 'इटालियन भुरगो' ह्या नांवाखाला रुपांतरीत केली. मागीर तांणी 'गोवा पोर्तुगेज ड्रॅमॅटिक' नांवाची संस्था स्थापन करून कोंकणींतल्यान खूब नाटकां माचयेर हाडलीं. होच कोंकणींतलो पयलो तियात्र.

तियात्राचे दोन वर्ग करतात: तियात्र आनी खेळ तियात्र. तियात्र हो सगळ्या अर्थांनी लोकप्रिय असो नाट्यप्रकार. तियात्र बरोवपी, नट, वाजोवपी आनी प्रेक्षक हे चडशे किरिस्तांव समाजांतले आसतात. हो एक निधर्मी (secular) नाट्यप्रकार. इगर्जेची ताका उक्ती मान्यताय ना. देखून इगर्जेमुखार तियात्र केन्नाच करिनात. तियात्र चडकरून तीन ते चार वरां चलता. तातूंत सात अंक (पड्डे) आसतात. कांय तियात्रांनी नट-नटयेक आपलो पोशाख बदलचो पडटालो. नट नवो पोशाख घालून येता म्हणसर प्रेक्षकांक वाट पळोवची पडटाली. हाकालागून मदल्या काळांत लोकांची करमणूक करपाक गीतां (कांतारां) म्हणपाची चाल सुरू जाली आनी काळांतरान हीं कातारां तियात्राचो एक म्हत्वाचो वांटो जावन रावलीं. दर अंका उपरांत तीन-चार पदां (कांतारां) म्हण्टात. गावप्याक 'क्लाउन' (clown) अशें म्हण्टात. गावपाक संगीताची साथ आसता. हातूंत वापरतात तीं वाद्यां अस्तंतेचे पध्दतीचीं, तीं अशीं: व्हायोलीन (Violin), ट्रम्पेट (trumpet), क्लॅरिऑनेट (clarionet), बॅन्जो (banjo) आनी ड्रम्स (drums). सद्या बॅन्जो आनी व्हायोलीन हाचेबदला गितारीचो वापर करतात. हें संगीत बरयल्लें आसना.

'कांतार' हें उतर पोर्तुगेज (cantar- गावप) ह्या उतरावेल्यान आयलां. नाटकाच्या कुथानकालागीं ह्या कांतारांचो कसलोच संबंद नासलो तरी कांतार हो तियात्रांतलो म्हत्वाचो वांटो जावन आसा. कांतारांबगर केल्ल्या तियात्रांक 'तियात्र' म्हणपाक अजून तरी प्रेक्षक तयार नात. तियात्राचो सुमार अर्दोवेळ कांतारां आनी संगीताचेर वता. तियात्र सदांच कांतारान सोंपता. ह्या निमण्या कांतारांत चडकरून कसलीतरी शिकवण वा संदेश आसता. तियात्रांतल्या नट-नटयांचो आंकडो पांच ते पंचवीस मेरेन आसूं येता.

तियात्राचे सुर्वेक बायलेची भूमिका बायलूच करताली, पूण बायलेची भूमिका करपाक जाय तितल्यो बायलो मेळनाशिल्ल्यान दादल्यांनी ती भूमिका करपाक सुरवात केली. पूण सद्याच्या काळांत मात बायलांच्यो भूमिका बायलोच करतात. तियात्राचे चडशे विशय घरावे वा समाजीक आसतात. मनशांमनशां भितरले संबंद आनी तातूंतल्यान उप्राशिल्ले प्रस्न हे तियात्रांत थोडे भोव अतियायेन मांडिल्ले दिसतात. भाटकार-मुंडकार संबंद, माय-सुनो, आवय-बापूय आनी भुरगीं हांचे मदले संबंद आनी कांय हुनहुनीत राजकी तशेंच समाजीक विशयांचेरुय तियात्र बरयतात. देखून तियात्र म्हळयार गोंयच्या जिविताचें नाट्यमय दर्शन अशें म्हळयार जाता. जिविताच्या प्रस्नांची सोडणूक करपाक तियात्रीस्त चडकरून वायटाक ख्यास्त आनी बऱ्याक इनाम, ही वृत्ती आपणायता. शंबर वर्सांचे परंपरेक लागून तियात्रांत वापरतात ते भाशेक आगळेंच रुप आयलां. वास्तववाद आनी आदर्शवाद हांचो तियात्रांत आगळोच मेळ जाला. तरी खुबशा तियात्रांचें स्वरुप मॅलोड्रॅमॅटीक (melodramatic) आसता. भाशेची आनी उमाळ्यांची अतिताय तियात्रांत आसता. संवादांत केन्ना केन्ना साहित्यीक वाक्यां होल्मतात. कांय आडवाद सोडल्यार तियात्र ए

गाहित्यकृती हे नदरेन बरयल्लो दिसना. पूण चडशे प्रेक्षक मनोरंजनाखातीर तियात्र पळोवंक वतात. शेतकामती, पदेर, भाटकार, मुंडकार, पसरकार, गवंडी, मेस्त, पाद्री, गिरेस्त वेपारी, आळशी भाटकार, तड्की आद्वोगाद, दुडवांचेर नदर दवरपी दोतोर असल्या जायत्या मनशांची टिका वा फकाणां तियात्रांत केल्लीं दिसतात. तियात्रांत चड करून एक कोणतरी पिसो वा फकाणेर आसताच. गंभीर वातावरणाच्या तियात्रांत लेगीत तो लोकांक हांसयता.

जुंवांव आगोश्तिन्यु फेर्नांदीश हाचो 'बॅल ऑफ कावेला' हो पयलो वयलो कोंकणी तियात्र असो मानतात. ताचे नामनेक पाविल्ले हेर तियात्र अशे- 'भाटकार', 'दोलीचें केस्तांव', 'कुणबी ज्याकी', (दोन वांटे). 'कुणबी ज्याकी' ह्या तियात्रांत ताणें शेतकामत्याचें वास्तव जिवीत चितारलां आनी पयलेच फावट तियात्र-संगीताक कुणबी लोकगीतांच्यो चाली दिल्यात. तो एक बरो गावपीय आशिल्लो. आपलीं गीतां रिकॉर्ड करपी तो पयलोच गोंयकार. १९१० वर्सा ताचीं गीतां 'हीज मास्टर्स व्हॉयस' (HMV) हे कंपनीत रिकॉर्ड केलीं. 'मोग मिर्समिन्यांचो' आनी 'गुपीत मोग' हीं द्वंदगीतां ताणें आपली चली सोफिया हिचेवांगडा म्हळीं. ताच्या तियात्रांतले 'भाटकार' (दोन वांटे). ह्या तियात्राची छापणावळ मुंबय १९०९ वर्सा जाली. हुंड्याची पध्दत आनी जात वेवस्था हाचे आड ताणें जायते तियात्र बरयल्ले. त्यावेळचो गोंयचो गोव्हेर्नादोर मासानु दा आमोरीन आनी नामनेचो वैज फ्लोरियानु द मेलो हांणी ताच्या गुणांची तोखणाय केली. एस्. एक्स. व्हाज, आन्तोनियु तुलू, लुईश बारुश, आगोस्तीन माश्कारेनस, ॲनी फेर्नांदीश, मॅन्दॉस. लुकास रिबेलो, जे पी. सोउझालीन, मिंगेल रॉड, आलेक्सीन्यु द कांदोली, सोउझ फेरॉव, ॲथनी द सा आदी जायत्या कलाकारांनी त्याकाळांत तियात्रांनी काम केलां.

ज्यॉकी आगोस्तीन फेर्नांदीश हाची घरकान्न रेजीना फेर्नांदीश ही तियात्र माचयेवयली पयली गोंयकान्न नटी. आपल्या घोवाच्या तियात्रांनी ती काम करताली. 'कुणबीन', 'भाटकान्न' आनी 'सुंदरी' हीं सवंगां ती बरे तरेन करताली.

मडगांवचो ॲथनी मॅंदीश हो बरो विनोदी नट, संगीतकार आनी गावपी. 'आमचें नशीब' ह्या फिल्मांतूय ताणें विनोदी काम केलां.

आलेशिन्यु द कांदोलीन हो एक बरो संगीतकार. 'धर्माचो बावटो' हो ताचो सगळ्यांत बरो तियात्र, अशें म्हणूं येता. हळदोणचो सोउझालीन (मूळ नांवः जुजे पाश्काल फेर्नांदीश) हाणें 'रोमी आनी ज्युलिएट' ह्या तियात्रांत रोमिओची भूमिका बरेतरेन केल्ली. तरणाटे पिरायेचेर तो बायलांच्योय भूमिका करतालो. ताणें सुमार ४० तियात्र बरयल्यात. ताच्या कांय नामनेच्या तियात्रांचीं नांवां अशीं- 'हें आसा तें', 'पायची चूक वा मायची', 'पाद्र आग्नेल', 'सात दुखी', 'ते बापायची धूव' 'निमण्यो चार वस्तू'.

कुंकळेचो ॲथनी द सा हो बरो दिग्दर्शक, संगीतकार आनी नट आसलो. सोउझालीन ताका आपल्या धर्मीक नाटकांनी जेजुची भुमिका दितालो. ताच्या कांय तियात्रांचीं नांवां अशीं- 'आया', 'रगताची भेट', 'घातक्याक कुमसार', 'मायची माय'. 'आमचें नशीब' आनी 'निर्मोण' ह्या चित्रपटांनी ताणें काम केलां. नामनेचो लोकगीतां गावपी आनी नाचपी कुंकळेचो रॉबीन व्हाज, होय एक बरो तियात्रिश्त. ताचो धर्मीक तियात्र 'फातिमा सायबीण' बरोच गाजलो. ताणें 'सुखाचें सपन' ह्या चित्रपटांत वांटो घेतिल्लो. मिस मोहना ही बरी गावपी नटी. 'इन्सानियत' ह्या हिंदी चित्रपटांत तिणें काम केलां. ऑफेलिया काबाल ही मिस मोहनाची भयण, हिणेंय खूब तियात्रांनी काम केलां, तशेंच कांय तियात्रूय बरयल्यात. हळदोणचो मास्टर व्हाज हो बरो संगीतकार, गावपी, बरोवपी, नट आनी दिग्दर्शक. हाचे कांय गाजिल्ले तियात्र अशे- 'बापूय', 'शारांचो दिवो', 'मोलादीक वस्त', 'हांव तो कुरैयकार'. केपेंचो जॅस फेर्नांदीस एक बरो बरोवपी आनी नट. ताचे कांय तियात्र अशे- 'पायचो किर्मीदोर', 'म्हजें रगत', 'जिवें यमकोंड', 'मर्णाचें फर्मान' आनी 'शेकी तो जल्मलो'. माजोड्येंचो फेली लुकास हो बरो बरोवपी, दिग्दर्शक आनी गीतकार. ताचो पयलोच तियात्र 'भिकारी' बरोच गाजलो. ताचे हेर तियात्र अशे- 'बाराबास', 'तुजो सामुपाय', 'म्हजो दुस्मान', 'सोमंदीर आनी ल्हारां', 'माती आनी भांगर'. जॅफी द माजोर्डा हो बरोवपी, दिग्दर्शक, गीतां रचपी आनी गावपी. ताचे कांय तियात्र हे- 'गोंयची रोपीं', 'जल्माचो घूंट' आनी खेळतियात्र- 'तो मनीस कोण', 'कागदाचें फूल', 'धा मिनटांची चावी', 'तिसरी चावी'. डॉनल्ड डॅनीस हो एक बरोवपी, दिग्दर्शक, गीतां रचपी, गावपी आनी नट. ताचो गाजिल्लो तियात्र 'म्हजो कोणूच ना' आनी खेळ तियात्र 'तो न्हय जाल्यार'. कुंकळ्ळेचो लॉरेन्त आगियार हो बरो बरोवपी आनी दिग्दर्शक. हाणें जायत्या इंग्लीश नाटकांचो अणकार करून तांचे तियात्र केले. भारतीय सुरावटीचेरूय तो गीतां घडयतालो. नितालू आल्मैद हो बरो बरोवपी आनी गीतां रचपी. ताचे कांय तियात्र हेः 'मुंडकार ज्याकी', 'कुजनांतलो मोग', 'इश्टागत', 'दुस्मानकाय विसरले', 'सुखदुख', 'इबाडलेलो घराबो', 'धादोसपण', 'निर्भागी', 'कितें हांव देखतां'. ए. द. लिमा हो बरो बरोवपी, दिग्दर्शक आनी गीतां रचपी. जेजूच्या जिविताचेर बरयल्लो ताचो 'सोडवणदार' हो तियात्र बरोच गाजलो. सी. द. सिल्वा हाणें फेलिसियु कार्दोज हाच्या तियात्रांनी पयलेच खेप काम केलें. ताचे कांय गाजिल्ले तियात्र हे- 'हेंच तुका फावो', 'लज नासलेलो'.

कुंकळ्ळेचो पियेदाद आगियार हो बरो गावपी आनी गीतां रचपी. कांय तियात्रांनी ताणें बायलेचें सवंग केलां. रिको रॉड हो बरो विनोदी नट, तसोच बरो गावपी आनी गीतां रचपी. ताचीं गीतां अर्थपूर्ण आनी चाली आगळ्यो वेगळ्यो. हिंदी आनी कोंकणी चित्रपटांनी काम करपी मिस शालिनी हिणें तियात्रांनी बरें काम केलां. हेर कांय नामनेच्या त्रियात्रिश्तांचीं नांवां मिस नोर्मा, मिस बॅटी, बॅटी नाझारेथ, मिस क्लारा, मिस जोजेफीन, साबीना, रेमी कुलासो, बॅटी फर्नस, प्रेमकुमार, जॉन क्लार. हालींच्या काळांत हिंदू लेगीत तियात्रांनी वांटो घेवंक लागल्यात आनी तातूंत तांणी बरीच नामना जोडल्या. देखीक- प्रेमानंद लोटलीकर, प्रेमानंद सांगोडकार, संदीप कळंगुटकार, चित्रा शिरवयकार.

फ्रेडी कॉस्ता होय एक नामनेचो तियात्रिश्त. तोमाझिन्य कार्दोज हाणें बरेच तियात्र बरोवन माचयेर सादर केल्यात. ताचे बरेच तियात्र पुस्तकरुपान उजवाडाक आयल्यात. तेभायर तो स्वता गायक, नट आनी दिग्दर्शक म्हूण तियात्राचे माचयेर बरींच वर्सां वावुरता.

**कोंकणी नवलकथाः** ब्रुन द सोउझ हाची 'किरिस्तांव घराबो' ही रोमी लिपींतली नवलकथा, कोंकणींतली पयलीच नवलकथा अशें मानूं येता. तेभायर ताच्या काळावयले कांय नवलकथाकार आनी तांच्यो नवलकथा अश्योः आलेशु जुजे फ्रांसिश्कु- 'रोजा आनी जेनेरोजा' (१८९५), एफ्. एक्स्. फेर्नांदीश- 'बायल वर्तता बुन्याद धादोसपणाची' (१८९७), सेबेस्तांव दियश- 'खुशालपणाचो घराबो' (१८९८), जे. जे. बितु- 'मर्ण' (१९०३), इनासियो काम्पुश- 'एदुआर्द आनी फ्लोरेन्स' (१९०८), आंतानियु द क्रुज- 'एक खऱ्या मोगाची काणी' (१९०९), जुआंव कारवालो- 'येर्नेस्त आनी देलफिना' (१९०९), ए. फोंगेका- 'आंजेलिना' (१९१२), लौरेंसु सोउझ- 'लुलू' (१९१२), जुआंव द सोउझ- 'नशिबाचो फातोर' (१९१६), एफ्. एक्स्. फेर्नांदीश- 'मोग' (१९१८), मिल्हन काल्हेयरा- 'एश्मेराल्दा' (१९३७), रोमन दियश- 'सातवो मर्ग' (१९३९), सी. जी. बोर्ग- 'चुरचुऱ्याचें मर्ण' (१९४९), सेरीदादे फेर्नांदीश- 'गोंयचे कलवंत' (१९५०).

किरिस्तांव घराबो हे नवलकथेंत गोंयच्या गांवांतल्या एका घराब्याचें चित्रण केलां. तेभायर ही कथा सांगतना बरोवपी कोंकणींतली सादी सोपी आनी घरावीं उतरां वापरता. ब्रुन द सोउझ हाणें घालून दिल्ली वास्तव नवलकथेची परंपरा हेर बरोवप्यांनी पाळ्ळी ना. तांचे नवलकथांनी कल्पनेचेच रंग चड दिसतात. मोग, मारामारी, साहस, अकल्पीत घडणुको हो ह्या कथांचो मसालो. हांचीच वळ मुखावेले

कथाकार चिरुंक लागले. हातूंतले कांय नामनेचे कथाकार म्हळ्यार येलीयट द येली- 'भिरांत' (१९५१), ए. एफ. द सोउझ 'कोण म्हजो फुडार' (१९५६), डायेगीन्यु द मेलो- 'मोगाचो आंवडो' (१९५८), एलोयसीयूस आफोंसो- 'महापापी' (१९६७), बोनावेंतूर द पियेत्रो- 'म्हज्या पायचो फोंड' (१९७५), फादर आंतोनिओ पेरेर- 'वादळ आनी वारें' (१९७९).

गोमंतोपनिषताचो दुसरो खंड 'संवसार बुट्टी' ही एक नवलकथा मानल्यार देवनागरींतले नवलकथेचें मुळावण घालपी शणै गोंयबाब, अशें मानूं येता. ताचे उपरांत रवींद्र केळेकार हाची 'तुळशी' ही नवलकथा आयली. हे नवलकथेंत एके अभागी बायलेचें चित्रण केलां. पुंडलीक नायक हाची 'बांबर' ही नवलकथा वास्तववादी परंपरेंतली. तुकाराम शेट हाची 'पाखलो' ही कादंबरी एका फिर्ग्यांपसून गोंयकारान्न बायलेक जाल्ल्या गोरे कातीच्या भुरग्याच्या दुखखाचें चित्रण करता. दामोदर मावजो ह्या कथाकारान बरयल्ली 'कार्मेलीन' (१९८१, साहित्य अकादेमी पुरस्कार) दुडू जोडपापासत कुवेताक गेल्ले गोंयकान्नींच्या जिविताचें रंगभरीत चित्रण करता, तशेंच भायल्या पयशांचे ओडीक लागून गोंयचें समाज जिवीत कशें विस्कटत वता ताचेर उजवाड घालता.

'अच्छेव' हे कादंबरींत पुंडलीक नायक खण उद्येगाउपरांत गोंयच्या विस्कटिल्ल्या समाज जिविताचें चित्रण करता. 'पापडां कवळ्यो' ही लक्ष्मणराव सरदेसाय हाणें बरयल्ली ल्हान नवलकथा. हातूंत मध्यमवर्गीय समाजांतल्या एका गरीब पूण बऱ्या स्वभावाच्या भुरग्याचें चित्र चितारलां. एन्. शिवदास हाणें 'नखलामी' (१९८७) ही नवलकथा बरयल्या. शांता खांडेपारकार हिची 'अंतरपाट' (१९८३) आनी रमेश वेळुस्कार हाची 'मोनी व्यथा' (१९७५) ह्योय नांव घेवपासारक्यो नवलकथा.

**कोंकणी नाटक:** कोंकणांत दशावतारी खेळ आनी गोंयांत जागर, ललीत, गवळणकालो हातूंत नाट्याचे थोडेभोव अंश आमकां पळोवंक मेळटात. तशेंच फेस्तावेळार किरिस्तांव 'फेळ' करतात. तातूंतूय जशें कथानक आसता, तशें नाट्यूय आसता.

मोचेमाडकार मंडळी ही कोंकणी मिश्रीत मराठी नाटकां करताले. पूण आयच्या कोंकणी नाटकांचें मुळावण शणै गोंयबाबान घालून दिलें अशें म्हणूं येता. फ्रांसेज नाटककार मोलियर हाच्या 'ल मेदसँ माल्ग्रे लुई' (Le Medecin Malgre Lui) ह्या नाटकावेल्यान ताणें 'मोगाचें लग्न' (१९३१, १९३८) हें नाटक रचलें. नाटकांतल्या पात्रांचो भेस आनी तांची भास पुराय कोंकणी आशिल्ल्यान तें परकी भाशेंतल्या नाटकाचें रुपांतर अशें दिसना. फ्रांसेज नाटकाचेर ताणें पुराय कोंकणी साज चलयला. मोलियरच्या दुसऱ्या एका नाटकाचें रुपांतर म्हळ्यार 'पोवनाचें तपलें'. हें 'लाव्हार' ह्या नाटकावेल्यान रचलां. एक गिरेस्त घरकार दुडवांच्या अती मोगाक लागून आपल्या भुरग्यांबाळांक कसो त्रास दिता आनी आपलें कशें हांशें करून घेता तें ह्या नाटकांत दाखयलां. हो खेळ १९२६ त बरोवन जाल्लो आनी ताचो पयलो प्रयोग १९३० वर्सा विल्सन कॉलेजांत जाल्लो. 'झिलबा राणो' हें नाटक अरबी 'एक हजार आनी एक राती' ह्या कथा झेल्यांतले एके कथेवेल्यान रचलां. हरुण अल् रसीद ह्या राजाबदला शणै गोंयबाबान कदंब राजाचें पात्र घालां. ह्या हांसोवण्या खेळांत शणै गोंयबाबाचो गोंयचो आनी कोंकणीचो मोग आनी अन्यायाची तिडक उक्ती जाता. आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हाणें पयले वयले एकांकिकेचें मुळावण घालें. 'चवथीचो चंद्र' (१९३५) हो ताचो पयलो स्वतंत्र असो हांसवणो खेळ. ह्या खेळांत गोंयच्या तरेकतरांच्या मनशांच्या स्वभावांचें दर्शन जाताच, तेचवांगडा कोंकणी भाशेच्या तरेतरेच्या मोडींचें खाशेलपण उक्तें जाता. देखीक- बामणांची भास, शेटींची भास, किरिस्तावांची भास आनी मंगळुरी भास. एकामेकांची कोंकणी भास कळना जावन जो गैरसमज जाता, तें ह्या खेळाचें एक आंग. पूण माचयेवेल्या पात्रांक एकामेकांची भास कळना जाली तरी प्रेक्षकांक ती कळटा. आचार्य नायक हाणें मागीर बरयल्ले 'रायबाराली वाड्डीक', 'दामू कुराडो', 'एक हजार आनी तेईस', 'म्हजो सर्गार गेल्लो घरकार' हे सगळे खेळ रुपांतरीत. आचार्य नायक हाचें 'म्हाराज' हें तीन अंकी नाटक फ्रांसेज नाटककार मोलियर हाच्या 'ल् तार्त्यूफ' ह्या नाटकावेल्यान रचलां. तें १९६१ त माचयेर आयलें. हीं ताचीं सगळी नाटकां विनोदी. कोंकणी माचयेचेर अपूर्व अशें जैत जोडलें, तें पुंडलीक दांडे हाच्या 'ताची करामत' ह्या तीन अंकी हांसोवण्या खेळान. मान-सन्मानाच्या, फटीच्या कल्पनांनी आनी आळसायेन भरिल्ल्या आनी हाकाच लागून दुर्दशेंत पाविल्ल्या एका कुटुंबाचो पुराय बदल एक सद्गुणी आनी निश्चयी मनीस घडोवन हाडटा; ताचें चित्र ह्या नाटकांत होल्मता. मार्मिक स्वभाव दर्शन, सुटसुटीत संवाद, जलद कथानक आनी स्पश्ट अशें जिविताविशींचें तत्त्वगिन्यान हांकां लागून त्या नाटकाक कोंकणी साहित्यांत म्हत्वाची सुवात आसा. पुंडलीक दांडे हाचें दुसरें म्हत्वाचें नाटक म्हळ्यार 'निमित्ताक कारण'. मुंबय जाल्ल्या आंतर महाविद्यालयीन कोंकणी एकांकी सर्तींनी बऱ्यो एकांकी जल्माक आयल्यो. तशेंच कांय बरे नट आनी दिग्दर्शक लोकांमुखार आयले. रघुवीर नेवरेकार हाचें 'कडुनिंब' हें तेन्नाचें गाजिल्लें नाटकुलें.

पुंडलीक नायक हो कोंकणींतलो एक गाजिल्लो नाटककार. नाट्यकलेच्या तंत्राची जाण ताच्या नाटकांत दिसून येता. 'छप्पन थिगळी यशवंत' (१९८०) हें बस स्टॅण्डार काम करपी एका हमालाचें आपउलोवप. तातूंत घाम गाळून काम करपी सगळ्या वावुरप्यांची शोकांतिका दिसता. 'सुरींग' (१९८२) हें ताचें नाटक, रस्ते बांदपी वावराड्यांच्या जिविताचेर बरयलां. 'चौरंग' (१९८२) ह्या ताच्या झेल्यांत पांच नाटकुलीं आस्पावतातः 'एका जुव्वार जंय', 'पावणी', 'मर्णकटो', 'आनी एक पोर नागडें उरता' आनी 'खामसुत्री'. पुंडलीकाच्या व्हडल्या नाटकापरस ह्या धाकटुल्या नाटकांची प्रकृती वेगळी.

ह्या सगळ्या नाटकुल्यांतल्यान समाजांत चलिल्ल्या अन्यायाआड कळवळयाचो उलो उक्तो जाता. 'शबै शबै भौजन समाज' (१९८६), 'देमांद' (१९८६), 'श्री विचित्राची जात्रा' (१९८६), 'पिंपळ पेटला' (१९८६). ह्या नाटकांनी ताणें लोकनाट्य आनी लोकगीत हांचो बरो उपेग केला. दिलीप बोरकार हाच्या 'वर्गशत्रु' ह्या नाटकांत मेकळ्या गोंयांत लेगीत कांय जाण कसो जुलूम करतात तें दाखयलां. 'भरतेभार' (१९८२) ह्या नाटकांत तो गोंयचे शाळेंतल्या वातावरणाचें चित्र काडटा. एन्. शिवदासाचें 'पिसांट' (१९७९) हें नाटक एके बायलेच्या मानसिक रोगाचेर उजवाड घालता.

मुरेश बोरकार हाचें 'कालीगुला' हें नाटकुलें आल्बर्ट कामू हाच्या नाटकाचें रुपांतर. अ. ना. म्हांबरो हाचीं नाटकां नव्या आशयाचीं, नव्या आकाराचीं. ताचीं 'एक भावोजी मरता', 'नांव व्हड करून', 'बापूय करता पाप', 'त्या दिसाची एक गजाल', 'पणजेसाकून फर्मागुडयेर' हीं सामान्य मनशाच्या दिसपट्ट्या जिविताचेर उबारिल्लीं नाटकुलीं, ल्हवपीक विनोदान भरल्यांत. ताचें एक नाटकुलें 'गजालींचें नाटक' हें अजैत योनेस्को हाच्या 'ला कांतात्रीस शोव्ह' ह्या नाटकुल्याचें सैर रुपांतर.

शांताराम हेदो हाचीं चडशीं नाटकां रुपांतरीत आसात. ताचें 'यात्रीक' हें नाटक आल्मैद गार्रे ह्या नामनेच्या पोर्तुगेज नाटककाराच्या 'फ्रेय लुईश द् सौझ' ह्या नाटकाचो समर्थ अणकार. ताचें 'मदलो दूत' (१९७९) हें नाटक संस्कृत कवी भास हाच्या 'मध्यमव्यायोग' हाचें यशस्वी रुपांतर. हें नाटक महाभारतांतले एके कथेचेर आदारीत आसा. पुराणकाळांतल्या वातावरणाक शांताराम हेदो गोंयच्या घराब्या वातावरणाचो थोडो भोव रंग दिता.

मुंबय स्थायिक जाल्ल्या कोंकणी उलोवपी मंगळूरकारांनी 'सरस्वती नाट्य मंडळ' हो पंगड स्थापन केल्लो. तांणी हेर भासांतलीं नाटकां रुपांतरीत करून वा मुळावी नाटकां बरेवन रंगमाचयेर हाडलीं. श्रीयुत मुदूर, कृष्णराय बैंदूर, उमानाथ दोंगरकेरी हांचो ह्या वावरांत व्हड वांटो

आसा.

अनिरुद्ध बीर उर्फ उपेंद्र तिंबलो, दत्ताराम बांबोळकार, दत्ता श्री. नायक, रवींद्र नमशीकार, विनायक खेडेकार, चंद्रकांत पार्सेकार, श्रीधर कामत, राजू नायक, देवदास बाबय हांणीय कांय मौलीक नाटकां बरयल्यांत. कृष्णा लक्ष्मण मोयो, वसंत कारे, रघुवीर नेवरेकार, विश्वनाथ संझगिरी आनी अवधूत हेगडो देसाय, हांणीय कोंकणी नाटकांत आपले बरेवपाचे प्रयोग केल्यात. रामकृष्ण जुवारकाराचीं इतिहासीक नाटकां 'भागिरथी' (१९७०), 'आमचें राज्य' (१९७१) आनी 'अनवळखी' (१९७५) भोव ओडलायणीं जाल्यांत. प्रकाश थळी हाणें 'सगीना महतो', 'अजीबपुरांतली कल्पकथा' आनी हेर कांय अणकारीत नाटकां कोंकणींत हाडल्यांत. ताचें 'तीन खेतीं शाणीं मुरतीं' (१९८७) हें सात एकांकींचें पुस्तक उजवाडाक आयलां. बाकीबाब बोरकार हाणें 'संशयकल्लोळ' नाटकाचो कोंकणी अणकार केला. नागेश करमली, सुरेश काकोडकार, पुरुषोत्तम सिंगबाळ, डॉ. विजय थळी, अशोक भोंसलो, रवींद्र आमोणकार हांणी कांय नाटकांचीं रुपांतरां करपाचो यशस्वी यत्न केला.

**कोंकणी निबंदः** मुंबय उजवाडाक आयिल्लो 'स्वाती' (संपादक- विष्णु नायक, १९६०) हो एक म्हत्वाचो ललीत निबंदांझेलो. हातूंत मराठींत नामना जोडिल्ले बरोवपी बाकीबाब बोरकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय, पु. ल. देशपांडे, मंगेश पाडगांवकर हांचे निबंद आस्पावतात. तेभायर निळकंठ धुमे, दत्ताराम सुखटणकार, प्रा. लुसियो रोद्रीगीश आनी निळंकठ साळकार हांचे निबंद आसात. गोंय आनी हेर कोंकणाच्या सैमाचीं आनी मनशांचीं चित्रां तातूंत होल्मतात. प्रा. लुसियो रोद्रीगीश हाचो 'पदेर', दत्ताराम सुखटणकार हाचो 'गोंयचो देमांद', निळकंठ धुमे हाचो 'बल्कांव' आनी 'नुस्तें आनी नुस्तेकान्न', बाकीबाब बोरकार हाचो 'म्हजो गांव ब्रोरी', पु. ल. देशपांडे हाचो 'कारवार', मंगेश पाडगांवकार हाचो 'हिरवा कोंकण' आनी लक्ष्मणराव सरदेसाय हाचो 'आमचे मुस्तींतले मास्तर'. 'उदेंतेचें साळीक' (१९१५), 'वावराड्यांचो इश्ट', 'दिखें' (१९१२), 'राखणो' (१९३८), 'मित्र' (१९५३), 'झेलो' (१९५५), 'पयणारी' (१९५०), 'काणिक' (१९५८), 'पंचकाद्य', 'आमची माय' ह्या कानडी लिपींतल्या नेमाळ्यांनी बरेच लळित निबंद आस्पावल्यात.

शणै गोंयबाब (१८७७-१९४६) हाणें गोंयचो सैम, गोंयचो लोक आनी गोंयची भास हांचेर थोडे निबंद बरयले पूण तांचो झेलो उजवाडाक येवंक ना. तातूंतलोच एक सोबीत निबंद 'म्हंयच्या तळयार'. ताचे उपरांत 'मीर्ग', 'साद', 'साळीक', 'विद्या', 'नवें गोंय', 'प्रजेचो आवाज'. हातूंत बरेच निबंद उजवाडाक आयल्यात.

दत्ताराम सुखटणकार हाचे निबंद 'मान्नी पुनव' (१९७७, साहित्य अकादेमी पुरस्कार). ह्या झेल्यांत आस्पावतात. तातूंत ताणें गोंयकारांच्या स्वभावाच्या खाशेलेपणाचेर उजवाड घाला. अ. ना. म्हांबरो हो एक निबंदकार. तो गोंयच्या आयच्या राजकी, समाजीक जिविताचेर बरयता. 'गोंयची अस्मिताय' (१९७८) आनी 'पणजी आतां म्हातारी जाल्या' (१९८५, साहित्य अकादेमी पुरस्कार) हीं ताचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

लक्ष्मणराव सरदेसाय हाचे निबंद 'खबरी कांय वर्मांच्यो कांय कर्मांच्यो' (१९८०) ह्या झेल्यांत आस्पावल्यात. हातूंतले चडशे निबंद आत्मचरित्रपर आसात.

आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हाणें निबंदप्रकार केळयलो. ताचो एक बरो म्हळ्यार, 'जाफर भाय'. प्रो शांताराम अनंत हेदो हाचे 'आयक आयक घरांतल्या माडा', 'येरें नाशिल्लें व्हडें', 'खेळगडी' हे निबंद वाचपासारके. प्रो. लुसिओ रोद्रिगीश हाणें गोंयकारांची सोबीत स्वभावचित्रां काडल्यांत आनी कांय कोंकणी लोकांकाणयो पर्थून कोंकणींत सांगल्यात.

रवींद्र केळेकार हो एक समर्थ निबंदकार. 'वेळेवयल्यो घुलो' (१९७१), 'उजवाडाचे सूर' (१९७३), 'सांगाती' (१९७७) हे ताचे कांय निबंदांचे झेले. खगोलशास्त्राचेर बरयल्लें ताचें 'ब्रम्हांडाचें तांडव' हातूंतले कांय लेख निबंदांवरींच दिसतात.

पुरुषोत्तम शिंगबाळ एक विनोदी निबंदकार. ताच्या निबंदांतल्यान मनशाच्या स्वभावाचेर टिका मेळटा.

**कोंकणी पत्र वेवसायः** कोंकणी पत्र वेवसायाची सुरवात एदुआर्द ब्रून द सोउझाच्या 'उदेंतेचें साळक' (१८८९) ह्या म्हयन्याळ्यान जाता. मागीर तें पंद्रशी नेमाळें म्हूण भायर सरूंक लागलें आनी १८९४ त बंद पडलें. तरी उदेंतेच्या साळकाची देख मुखार दवरून आनी जायतीं नेमाळीं उजवाडाक येवंक लागलीं. मुंबय एलेक्स सी. एफ्. फ्रांसिस्को हाणें 'उ लुझो कोंकानी' नांवाचें सातोळें १८८९ वर्सा सुरू केलें. ते उपरांत सेव्राश्तयांव जे. दीयश हाणें 'उ कोंकानी' आनी एस्. टी. डिसौझ हाणें 'उ पोव्हु गोआनु' (१८९५). लोरेन्सीन्यू दांताश हाणें 'अलश' (१८९५), ए. जे. सी. द सोवझ हाणें 'उ एकू' (१८९७) हीं नेमाळीं उजवाडायलीं. बी. एफ्. काब्राल हाचें 'सांजेचें नखेत्र' (१९०७) हें कोंकणीचें पयलें दिसाळें अशें मानू येता. पूण मागीर तें म्हयन्याळें जालें. रोनाल्ड नोरहानाचे 'कातोल्क सवस्तकाय' हें पंद्रशी नेमाळें, एफ्. येक्स. फुर्तादु हाचें 'उ गोआनु', फादर सी. दीयस हाचें 'सेन्ट एनस टेंपरन्स मेगझीन' आनी काम्पुशाचें 'कोंकणी मॅगझीन'. फादर लुदोव्हीन पेरेरा हाणें कराची सावन 'दर म्हयन्याची रोटी' हें नेमाळें सुरू केलें. आतां तें फादर मोरेन्हो द सोउझ गोंयच्यान चलयता. हाचे उपरांत जायतीं सातोळीं उजवाडाक आयलीं. १९३४ वर्सा आ. सी. कार्वाल्यु हाचें 'एमिग्रंट' सातोळें १९३६ वर्सासावन दिसाळें जालें. 'नोवा गोवा' नेमाळें, जे. बी. द. सील्वा हाचें 'म्हजें मॅगाझीन' हें पंद्रशी नेमाळें, १९३८ वर्सा जे. डी. सौझ हाचें 'कोंकणी जनरल', फ्लोरेन्स आल्मेदा हाचें 'आसपीरान्त' हें म्हयन्याळें, एफ्. एक्स्. ओल्वीश हाचें 'कॅथलीक इंडीया' हें नेमाळें, ए. आर. पेरेरा हाचें 'आमचो संवसार', १९३९ वर्सा प्रो. ज्युस्तीनो द सौझ हाचें 'नवें जिवीत', रोमीओ फेर्नांदीस हाचें 'गोंयकारांचो इश्ट', डी. देसाय हाचें 'गोंय कामगार' हीं कांय कोंकणी नेमाळीं. १९४० वर्सा ए. मास्कारेन्येस हिचें 'नवें गोंय', फादर जी. लोबो हाचें 'तुजें राज्य आमकां येवं', १९४० वर्सा फादर मार्सेलीन्हो रेमेडीओ हाचे 'उदेंतेचें नकेत्र' अशींय कांय नेमाळीं सुरू जालीं.

गोंयचे सुटके उपरांत सॅन्सॉरशीप नाशिल्ल्यान गोंयांत बरींच नेमाळीं आयलीं. फेलीक्स कार्दोज हाणें 'गोंयचो साद' आनी उपरांत 'सत' (१९५३) हें दिसाळें काडलें. ह्युगो द सोउझ हाणें 'दिवटी' (१९६७) हें नेमाळें उजवाडायलें. 'उजवाड' हें दिसाळें १९७० वर्सा एवाग्रियु ज्यॉर्ज हाणें उजवाडायिल्लें. गुरूनाथ केळेकार- 'गोंयचो मोग' (१९७५), प्रभाकर तेंडुलकार- 'गोंयकार' (१९७९), डॉमनीक द सोउझ 'गोंयचो दरखांटो' (१९७९), फादर प्लानटोन फारीया- 'गोंयचीं किरणां' (१९८०) हीं नेमाळीं उजवाडायिल्लीं. येलीओट द येलीन 'सीने टाइम्स' हें मुंबयंत उजवाडायिल्लें नेमाळें (१९६३). एस्. एक्स. व्हाज हाचें 'उ आमीग द पोव्हु' (१९१६), मान्यू ए. फेर्नांदीश हाचें 'उ आमीग द पोव्हु गोवान्यू', ए. व्ही. द क्रुझ हाचें 'आव्हे मारीया', वास्को द गामाचें 'गोवा मेल', जे. जे. सिल्वेस्टर द सौझ हाचें 'पोप्यूलर मॅगझीन' (१९१९), ए. ल. द सौझाचें 'गुलीस्थान' (१९१४), जे. सी. सी. द सौझाचें 'आमचो संवसार' (१९२८), फादर अलारसियो पेरेरा हाचें 'आगनूस दी' (१९२०- म्हयन्याळें), रेसपीसीयोन आर्फोसोचें 'गोवा टायम्स' (१९२९- सातोळें), इनीया द मिनेझीस हाचें 'आमचो गांव' (१९३०- सातोळें), लुइस दोरीश द सिल्वा हाचें 'गोमंत आनी गोवन्स' (१९३२- नेमाळें), ए. व्ही. द क्रुझ हाचें 'कोंकणी बुलेटीन' हें दिसाळें, ॲड. जे. बी. व्हाज हाचें 'प्रजेचो आदार' हें नेमाळें, एन्. जे. मिनेझीस आनी एफ्. झेड. द कॉश्त हाचें 'व्हेन पाद्री जुजे व्हाज' म्हयन्याळें. १९३३ त, जे. एल्. द सौझ हाचें 'गोवन ओवरसीर' हें दिसाळें, फादर ए. एल्. फेर्नांदीश हाचें 'वावराड्यांचो इश्ट' आनी मागीरचे संपादपी फादर लाक्तांसियु आल्मैद.

१९५० त कुमठासावन 'कोंकणी किनारो' आनी कारवारसावन 'सर्वोदय' हीं नेमाळीं येवंक लागलीं.

गोंयांत रामचंद्र पांडुरंग वैद्य उर्फ दादा वैद्य हाणें १९०५ त 'प्राची प्रभा' हें मराठी नेमाळें सुरू केलें. तें १९१५ मेरेन चललें. तातूंत खासा दादा वैद्य हाणें कोंकणींतल्यान बरयल्ले लेख येताले. तातूंत कांय कोंकणी कविताय होल्मतात. मुंबयत गोमंतक छापखान्याचो मालक काशीनाथ श्रीधर नायक हाणें शणै गोंयबाबाकडल्यान स्फूर्त आनी आदार घेवन 'नवें गोंय' हें तीम्हयन्याळें सुरू केलें. हातूंत काशीनाथ श्रीधर नायक हाचेखेरीज शणै गोंयबाबूय बरोवप करतालो.

कारवारांत एस्. डी. नाडकर्णी हाणें 'नवयुग' हें सातोळें काडलें. पूण तें चड काळ तिगलें ना. मुंबयच्या कोंकणी भाशा मंडळान १९५२ त, 'साद' हें नेमाळें सुरू केलें. उपरांत फादर एच्. ओ. माश्कारेन्यश, बाकीबाब बोरकार हाणें संपादीत केल्लें 'प्रजेचो आवाज' (१९५३) हें सातोळें देवनागरी आनी रोमी लिपींनी उजवाडाक येतालें. गोंयची स्वतंत्रताय आनी कोंकणीची उदरगत हे ताचे दोन मुखेल हेत आसले. १९५५ त मुंबय 'साळीक' हें म्हयन्याळें उदेलें. नारायण देसाय, शंकर भांडारी, लक्ष्मीदास बोरकार आनी कृष्ण करवार हांणी कांय काळ ताचें संपादन केलें. चंद्रकांत केणी, महाबळेश्वर सरदेसाय, लक्ष्मणराव सरदेसाय, शंकर रमाणी ह्या बरोवप्यांचे लेख आनी कविता तातूंत येताल्यो. तेभायर कोंकणी लोकवेदाचे नमुने तातूंत दिसताले.

१९६० च्या सुमाराक कोंकणी उलोवपी कॉलेज विद्यार्थ्यांनी मुंबय 'विद्या' नांवाचो अंक सुरू केलो. तो १९८१ मेरेन चल्लो.

१९३४ त दोतोर एफ्. पी. मार्तेरीश हाणें 'सांगाती' सुरू केलें. तातूंत जे. व्ही. पिंटो आनी एफ्. जे. मार्तेरीश बरयताले. १९४१ त 'नवो उजवाड' हें हाताळें भायर सरलें. १९४२ वर्सा मनोहरराय सरदेसाय हाणें मडगांवच्यान 'नबत' हें हाताळें सुरू केलें. १९४५ त पांडुरंग भांगी हाणें 'मांडवी' हें हाताळें सुरू केलें. तातूंत रामचंद्र शंकर नायक हाचे लेख होल्मतात. १९६१ चे अखेरेक गोंयचे सुटके उपरांत साहित्यीक नेमाळ्यांचें गोंयांत पीक आयलें. चंद्रकांत केणी हाचें 'त्रिवेणी' (१९६२) कोंकणी, मराठी आनी हिंदी भाशांतल्यान येतालें. गुरुनाथ केळेकार हाचें 'नवें गोंय' हें म्हयन्याळें उजवाडाक येतालें. चंद्रकांत केणी हाणें संपादित केल्ल्या 'राष्ट्रमत' ह्या मराठी दिसाळ्याच्या आयताराच्या अंकांत कोंकणी विभाग आशिल्लो. मागीर ताका 'सोमार' हें नांव दिलें. हे भायर राष्ट्रमतांत आयतार सोडुनूय कोंकणी पत्रां, कविता आनी लेख येताले. यशवंत पालेकार हाणें 'कोंकण भारती' हें म्हयन्याळें १९६८ त सुरू केलें. सुरेश काकोडकार हाणें संपादिल्लें 'पुनव' (१९७२) हें म्हयन्याळें थोडींच वर्सां चललें. मुंबय कोंकणी केंद्राचे वतीन 'कोंकणी म्हयन्याळें' (१९७२) अरविंद म्हांबरो हाणें संपादलें. १९७४ त नागेश सोंदे हाचें मुंबयच्यान 'कौडीण्य' हें नेमाळें भायर सरलें. पुंडलीक नायक हाणें संपादिल्लें आनी फकत कवितेक ओंपिल्लें म्हयन्याळें 'पारजत' हें १९७३ त भायर सरलें. १९६४ त सुरू केल्लो 'परमळ' अंक सुवास दलाल हाणें संपादिल्लो. तो कांय वर्सां चललो. रविंद्र केळेकार आनी सुमंत केळेकार हांचो १९७४ त सुरू केल्लो वर्सुकी 'जाग' अजून नेमान चलता. १९७९ त सुरू केल्लो 'कुळागर' अंक चंद्रकांत केणी चलयता.

'कोंकण टायम्स्', 'ऋतु', 'कोंकणीचें कुळार', 'चित्रंगी'-वर्सुकी अंक, कोंकणी भाशा मंडळाचो 'कोंकणी' वर्सुकी अंक, दत्ता नायक हाचो 'सौंगडी', वामन नायक हाचो 'वांगडी' हीं कोंकणींतलीं कांय हेर नेमाळीं आसात.

कोंकणींतलें देवनागरी लिपींतलें पयलें वयलें दिसाळें 'सुनापरान्त' १९८८ त सुरू जालें.

**कोंकणी भोंवडेवर्णनः** कोंकणी मनशान संवसाराच्या जायत्या देशांनी प्रवास केल्लो आसलो, तरी कोंकणी भाशेंत प्रवास वर्णनां थोडींच आसात. नारायण देसाय हाणें संपादिल्लो 'आमी पळेल्लो सोविएत देस' (१९७५) हो एक म्हत्वाचो प्रवासवर्णनाचो झेलो. ह्या झेल्यांत गोपाळ आपा कामत, एल्हाग्रियु जॉर्ज, बेर्ता मिनेझिश ब्रागांझ, फेलीस्यु कार्दोज श्यामराव मडकयकार हांचे लेख आसात. ह्या सगळ्या लेखांतल्यान आमकां सोविएत संघाची आयची अर्थीक, राजकी परिस्थिती आनी लोकांच्यो चालीरिती, तांचो स्वभाव हांची वयले वयर वळख जाता. खेरीज काबूल, ताश्कंत, मॉस्को, रीगा, लेनिनग्राड ह्या शारांची वयले वयर वळख जाता. रवींद्र केळेकार हाचें 'हिमालयांत' (१९७६; साहित्य अकादेमी पुरस्कार- १९७७) ह्या पुस्तकांत हिमालयांतल्या वाठाराची चित्रमय वर्णनां वाचूंक मेळटात.

'गोमांचल ते हिमाचल' हें दिलीप बोरकार हाचें १९९० त उजवाडाक आयिल्लें प्रवास वर्णन. ताका गोंय कला अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार फाव जाला.

**कोंकणी लोकवेदः** जिबेर घोळत घोळत आज आमचेमेरेन पाविल्लो असो लोकवेद, कोंकण वाठारांत जायतो आसा.

लोकगीतांः होंवयो- हीं गीतां व्हंकलेच्या आनी न्हवऱ्याच्या घरामुखार बायलो म्हण्टात. हिंदू तांकां 'होंवयो' म्हण्टात तर किरिस्तांव 'जोती'. भात कांडटना वा पीठ दळटना होंवयो म्हण्टात.

शो, शो, शो काण्डा फोव
काण्टलेचो म्हातारो घोव

बनवड- मरणाच्या एका वर्सा उपरांत हीं गीतां म्हण्टात. धर्मराज यमलोकांत वता आनी आपल्या मरून पडिल्ल्या भावांक तो कसो सोडोवन हाडटा, ताचीं वर्णनां ह्या गीतांनी केल्यांत.

ढवळे गीतां- गुरवार बायलांची तोखणाय करपाक हीं गीतां म्हण्टात. तेभायर लुवणी, बेंडप, कापणी ह्याय वेळार पदां म्हण्टात. खेरीज खाखी, रेंदेर हे वावर करतना गीतां म्हण्टात.

लोकांनाचः पौष म्हयन्याचे पुनवेराती मांडार ह्यो धालो खेळटात आनी त्यो सतत तीन वा सात राती चलतात. हातूंतलो गितांतलो प्रकार होंवयांचोच. गांवांगांवांप्रमाण गितांत जांची तुस्त केल्या, त्या देवांचीं नांवां बदलत वतात. ह्या नाचांनी बायलांच्यो दोन वळी आसतात. एकामेकांच्या हातांत हात घालून एके वळींतल्यो बायलो मुखार पावली मारतात आनी फाटल्यान परततात. मागीर दुसरे वळींतल्यो बायलो मुखार येतात, गीत म्हण्टात आनी परततात. धालांची सुरवात सदांच 'श्री धालो' ह्या उतरांनी जाता-

श्री धालो गे धालो। धालांनी खेळूं येया गे
धालो। धालांनी खेळूं येया। चाली खेळूं येया
गे धालो चाली खेळूं येया. . .

रथा तुज्यो माडयो साडेतीनशें गुडयो
रथांत कोण देव बसे गे
रथांत बसली शांतादुर्गा माया
जना लोकां दिसे खेळूंक आयल्या मांडार गे

केन्नाकेन्नाय धालांची गती जलद आसता.

खंय गेलो म्हजो कवडुलो
हांगा आशिल्लो कवडुलो

धालो खेळचेपयलीं सगळे लोक एकठांय जातकच मुखेल मांडकरी मदीं येतात आनी नाल्ल फोडटात. मागीर गाराणें घालतात. उपरांत तुळस, मांडदेवता, धर्तरीमाया गांवचे सगळे देव आनी देवता, देंवचार, भुतांखेतां, खेत्री, म्हारु सगळ्यांत आमंत्रण आसता. धालो सतत धा राती चलतात. धालांतली निमाणी रात चड म्हत्वाची. ती सगळी रात जागोवन काडूंक जाय नाजाल्यार कितेंतरी नखलामी जाता, असो समज आसा. दुसरे दिसा फांतोडेर कोंबो रडटा, तेन्ना एक दबाजो जाता. 'फटींचें लग्न' एक बायल दादल्याचो भेस करून न्हवरो जाता. फेटो बांदून एक बायल पिंगळी जाता. हातांत तांबयो, भितर आंब्याचे ताळे आनी नाल्ल घेवन तो दर एके बायलेमुखार वता- 'सकाळचे पारी, पिंगळी आयला दारी; आमी पिंगळी भटाचे, तांदूळ घाला भाताचे.' तो

पिंगळी घरा घरा भोंवता आनी म्हण्टा- 'खट खूट करता काय, पेटये चावी काडटा काय, म्हाका पयशे दिता काय?'

मागीर ल्हान आंकवार चलयो नाचतात आनी तांच्या आंगांत रंभा येता. हाचे मजगतीं शिकार करपाचो देखाव जाता. दादल्याचो भेस करून बायलो कासाक वतात आनी सावद मारून हाडटात. ह्या सावदाचें सवंग मात खरेलोच दादलो करता. मागीर देवतेमुखार गाराणें जाता. फोडिल्ल्या नाल्लाचें अर्दे वळें सावद जाल्ल्या मनशाक मेळटा. निमाणें सवाशिणी बायलो उब्यो रावन म्हण्टात-

माथ्याच्या फुलान आमी खेळ खेळयलो
सदींच्या कापडान आमी मेळ मेळयलो

मांडार शेण सारोवन जातकच धालो सोंपतात, तेन्ना हें पद म्हण्टातः

सावकु बावकुल्यो चौगी मेळयल्यो
बाप्पा घरचे पांच गोंडे
मावळ्या घरचे पांच गोंडे
धाय गोंडे भूंय दवरा
सगल्यो बायलो फुलां माळा
धाय गोंडे वयर काडा
सगल्यो बायलो दिमी घेया
गोंडे काडा, दिमी सोडा

आनी निमाणें-

शेण कालयता शेण कालयता
शेणा पडले किडे रे धालो
आयच्यान धालो सोंपल्यो रे धालो

मागीर माथ्यांतलें फूल शेणांत उडयतात आनी शेणाचो तिळो कपलाक लायतात.

**मांडोः** हो एक नाचाचो आनी गीताचो प्रकार. मध्यमवर्गीय किरिस्तावांच्या घरांनी काजारा वेळार हो मांडो गायताले. मांडांतल्या गितांत जायतीं पोर्तुगेज उतरां भरसल्लीं दिसतात. घुमटाच्या तालार आनी व्हायोलिनाच्या सुरार मांडो नाचतात. उदेंत-अस्तंती संगीताचो हो एक अप्रुप असो मेळ. मांडो हें एक प्रेमगीत आनी ताचो तान ल्हान आसता.

**दुल्पदः** मांड्या उपरांत दुल्पद नाचतात. दुल्पदांचो ताल वेगवान आनी तातूंतल्या उतरांचो सूर मात्सो फकाणेर आसता. गोंयच्या समाज जिविताचें तातूंत उडटें दर्शन जाता.

**देखणीः** हो नाच किरिस्तांवांगेर नाचतात. पूण नाचपी चलयेचो पुराय भेस हिंदू पध्दतीचो आसता. देखणेच्या गीतांतलीं उतरां, पोर्तुगेज उतरां दिसनात.

**कुणबी नाचः** गोंयचे मूळ रहिवासी कुणबी दादले अर्द वर्तुळ करून जमनीर बसतात आनी घुमट वा माजाळें वाजोवन पदां म्हण्टात. बायलो खांदे हालोवन आनी एका पांयावेल्यान दुसऱ्या पांयार उडकी मारून आनी उजवेवटेंतल्यान दावेवटेन आंग मोडून नाचतात.

**फुगडीः** हो बायलांचो-चलयांचो नाच चडकरून चवथीवेळार खेळटात. ह्या नाचाचीं गीतां जलद. आंगय चड मोडचें पडटा आनी घुसळावचें पडटा. फुगडीचीं कांय उतरां अशीं:

आंगणी घालीन फुगडी
काडीन चिकण माती
माज्या मामाची बापल जाशी
गळ्या घालीन पाटी

फुगडेचे कितलेशेच प्रकार आसतात, तातूंतले मुखेल हेः कळशी फुगडी आनी कट्टी फुगडी. कळशी फुगडेंत बायलो तांब्या-पितळेच्यो कळश्यो घेवन तातूंत 'फू, फू' करतात आनी त्या संगीताचेर नाचतात. कट्टी फुगडेंत बायलांच्या दोनूय हातांत दोन कट्ट्यो आसतात आनी त्यो एकामेकांचेर आपटीत फुगडी खेळटात.

**मुसळां खेळः** हो खेळ इंत्रुजाचे राती साश्टीच्या चांदर गांवांत खेळटात. हो नाच फकत दादल्यांचोच आसून तांचो भेस पुराय हिंदू पध्दतीचो आसता. राजस्थानांतल्या भेसाक चड लागचो. जमनीर दांडे आपटीत नाचप्यांचो जोमो गांवांतल्या मुखेल घरांमुखार थांबून नाच करून दाखयतात. परंपरेन चलून आयिल्ल्या गीतांचेर, दांडो जमनीर आपटून नाचपी वाटकुळेच तालार नाचतात. गीतांतल्या कांय उतरांचो अर्थच लागना-

ओ सिंवा ओ विरा वोस रे घरा
सातशीं गाना हरिहराक- ओ ऽ ऽ

मागीर बेगीन बेगीन हीं गीतां म्हण्टात.

बोलेली शीदी मुकोना
माय मेल्यार सुनेक दुकोना
मुकार फेळ वता मुसळांचो
फाटल्यान सोणसोण तिसऱ्यांचो

**घोडेमोडणीः** हो एक आगळोच लोकांनाच. हो नाच पळेतकच आदल्या काळांतले झुजकलेचो उगडास जाता. हो नाच उत्तर गोंयांतल्या मोरजे, दिवचल आनी कांसरपाल हांगा जाता. हे घोडेमोडणीचें वातावरण वीररसात्मक, पोशाख सैनिकाचो, छत्र चामर, घुडयो, तोरणां, अब्दागीर. भरजरी पोशाख घालून हे झुजपी लांकडाच्या घोड्याचेर स्वार जाता. तांच्या हातांत उक्त्यो तरसादी आसतात. घोडे मुखार येतात, फाटल्यान वतात आनी वाद्यांचो कल्लोळ जाता. घोडेस्वार जावपाचो मान चडकरून वंशपरंपरेन चलत आयिल्लो आसता. ह्या नाचाक गीताची मात साथ आसना. सुर्वेक घोड्याक सजोवचो पडटा, मागीर मनशांक. घोड्याचें तोंड आनी मान हीं लांकडाचीं, मातयेचीं वा प्लास्टर ऑफ पॅरिसचीं आसतात. तीं झगझगीत रंगान सोबीत रंगयतात. लांकडाच्या सांगाड्याचेर पुडवें, कापडां, फुलांच्यो माळो घालतात. कोंड्यांच्या सांगाड्याक घोड्याचें तोंड घट्ट बांदतात. मागीर नाचपी मनीस हो सांगडो कमरेमेरेन वयर उखलता आनी सांगाड्याक बांदिल्ले दोर हातांत धरता. अशेतरेन तो मनीस घोड्यार बशिल्ल्यावरी दिसता. घोडेस्वाराचो भेस असो- सुरवार, आंगार जरीचें चोळणें. माथ्याक रजपूत पध्दतीचो फेटो. घोडेमोडणीचो नाच शिगम्याच्या निमण्या दिसा जाता.

**हुमाणीः** हुमाणी वा पारखणी हें लेगीत कोंकणी लोकवेदाचें एक आंग. तीं मनोरंजन करतात आनी बुध्दीक खाण दितात. वर्साच्या खंयच्याय ऋतूंत आनी खंयचेय पिरायेंतल्या मनशांक तीं आवडटात. हुमाणी दोन तरेचीं आसतातः घरावीं आनी धर्मीक.

आरारटून चरारटून बांदलो भोरो
म्हजें हुमाणें सांगता ताका कट्टीभर सोरे
(जाप- केंसांचो आंबाडो)

*

इगडी तिगडी तिगडी था
तीन तकल्यो पांय धा
(जाप- शेतांतलें जोत)

*

आजो बसला, पूत जोडटा, नातू वगडायता
(जाप- भांड, कळसो, तांबयो)

*

तीन पायांचो तिकलो घोडो
ताचेर बसला काळो चेडो
हांसता पूण उलयना
(जाप- रान्नीवयलो बुडकुलो)

*

इल्लोसो पोर,
घर राखूंक थोर
(जाप- कुलप)

गोपाळ काल्यांतलीं हीं कांय हुमाणीः

नाडी झिजली कधी वाडली
ताच्या गळ्यांत लावली दोरी
हात लायल्यार बोबाट मारी
रे कानोबा सांगबा त्याचें नांव

(जाप- घुमट)

*

भांडयो तुरु तुरु करतालो
सियोर तिचे भोंवती भोंवतालो
तांबडें घालून धवें काडितालो रे

(जाप- दातें)

आपल्या घोवाचें वा बायलेचें नांव घेवपाचो जो प्रकार आसा, तातूंत लोकवेदाची गिरेस्तकाय मेळटा. हें नांव घेवप एकेतरेचें शीघ्र काव्यूच म्हणूं येता.

भांगराचे ताटलेंत रुप्याची वाटी
- - - घोरेता सगळे राती

*

पोक्या पणसाक पाक चड
- - - गावड्याक राग चड

*

वयल्या रानां फुलल्या पत्री
- - -च्या हातांत मोतयां सत्री

मंगळूरी कोंकणी लोकां तोंडांत हीं हुमाणीं घोळटात.

भरती आयल्यार जीव वता सुकती आयल्यार मरता.

(जाप- तेलाच्या दिव्यांतली वात)

आडायेन कातरल्यार चक्र, दिगायेन कातरल्यार शंख

(जाप- कांदो)

दांत आसा चाबूंक, चाबना. कोण?

(जाप- फणी)

धुंवता तो चलना. कोण?

(जाप- रस्तो)

अनेक दोळे पूण रडून रडना

(जाप- बटाट)

**भुरग्यांचें साहित्यः** पयलें वयलें भुरग्यांक शिकोवपाचें मुळावें कोंकणी पुस्तक, बारांव द कुंभारजुआ, तोमाज मौरांव हाणें तयार केल्लें, अशें म्हण्टात. शणै गोंयबाबान भुरग्यांखातीर 'भुरग्यांलो इश्ट' हें पुस्तक बरयिल्लें. युरोपी काणयेचो अणकार करून बरयिल्लें ताचें 'जादूचो जुंवो' नांवाचें पुस्तक १९६८ त उजवाडाक आयलें. गोदुबाय केळेकार हिणें 'फुलत्यो कळयो' (१९५७) हें भुरग्यांखातीर काणयांचें पुस्तक उजवाडाक हाडलें. १९६४ त, 'घुमचे कटर घुम' हें विनोदी पुस्तक अ. ना. म्हांबरे हाणें बरयल्लें. बयाभावान १९५० त 'देखदिण्यो काणयो' हें पुस्तक उजवाडायलें.

हालींच्या काळांतलीं भुरग्यांखातीर बरयल्लीं कांय पुस्तकां हीं: चंद्रकांत केणी हाचें 'फुलांचो हात'; ओलीव्हीन्यु गोमिसाची 'सुपुल्लो काणयां पांटुलो' (१९७५), 'भारत आमचो देश' (१९८२) आनी 'डॉ. फ्रांसिश्कु लुईश गॉमिश हाची जीण'; पुंडलीक नायक हाची 'रानसुंदरी' ही कवन काणी (१९७४); रमेश वेळुस्कार हाचीं 'भुंक भुंक भिशू', 'चानी मामा', 'फुलपाकुलें' आनी 'कवनां'; र. वि. पंडित हाचीं 'गोड गोड काणयो' (१९६५) आनी 'रामायण महाभारतांतल्यो कथा' (१९६६); कमलादेवी राव देशपांडे हिचो 'बाल्यो काणयो' (१९६८), 'चिरमुल्यो' हो गीतांझेलो (१९८३) आनी 'गिर्जाबिजलें' (१९८५); गुरेश काकोडकार हाणें केल्लो इंग्लीश काणयेचो अणकार 'एलीस आनी ताचो अप्रूप संवसार' (१९७०); दामोदर मावजो हाचीं 'खोमसाची काणी' आनी 'एक आशिल्लो बाबुलो'. शांताराम हेदो हाणें 'बापू' माथाळ्याखाल महात्मा गांधीची जीण भुरग्यांखातीर बरयल्या. ताणें 'मदलो पूत', हें भास कवीच्या 'मध्यमव्यायोग' ह्या कथानकावयल्यान रचिल्लें नाटकुलें १९७९ वर्सा उजवाडायलें. लक्ष्मणराव सरदेसाय हाणें 'रामग्याली वागा भोंवडी' ही साहस-काणी, १९७९ त उजवाडायली. महाबळेश्वर बोरकार हाणें 'अशी काणी राजा राणी' आनी 'सांतानाची पिल्लूक' हीं पुस्तकां उजवाडायल्यांत. प्रभाकर भिडे हाच्या राजहंस वितरणान कांय ल्हानल्हान पुस्तकां काडपाक सुरवात केल्या, तातूंतलीं कांय पुस्तकां अशीं: सुशांता नेसरीकर हिचें 'सुरश्री केसरबाय केरकार'; पुरुषोत्तम सिंगबाळ हाचें 'बिरबल'; डॉ. अरुण हेबळेकर हाचें 'आर्यभट'; उल्हास पै रायकार हाचें 'बोमो द ग्रेट'.

गुरुनाथ केळेकार हाणें खासा भुरग्यांखातीर 'मारुती' हें म्हयन्याळें चलयलें. कुमुदिनी आनी गुरुनाथ केळेकार हांणी टॉलस्टॉय, महाभारत, पंचतंत्र, एनिड ब्लॅटन, अरेबियन नायट्स, हांचेर आदारून कोंकणींत भुरग्यांखातीर काणयो बरोवन ल्हानल्हान पुस्तिकांनी उजवाडाक हाडल्यात. डॉ. विनायक मयेंकार हाणें 'आफ्रिकेंतलो शींव' (१९८६) हें पुस्तक बरयलां.

भिकाजी घाणेकार हाणें 'पिकनीक', 'हावेस' आनी हेर ल्हान कविता आशिल्ल्यो भुरग्यांखातीर पुस्तिका काडल्यात. अभयकुमार वेलींगकार हाणें भुरग्यांखातीर कांय पुस्तकां बरयल्यांत. डॉ. तानाजी हळर्णकार हाणें नाटकुलीं बरयल्यांत. स्वामी सुप्रियान स काणयांचीं पुस्तकां आनी 'माणकुलीं पदां' उजवाडायल्यांत.

महाबळेश्वर सरदेसाय हाणें 'इसाप नीत' आनी कांय हेर पुस्तकां बरयल्यांत. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हाणेंय भुरग्यांखातीर पुस्तकां बरयल्यांत.

**कर्नाटकांतलें कोंकणी साहित्यः** १७८४ त टिपू सुलतानान कर्नाटकांतल्या किरिस्तांवांक श्रीरंगपट्टणांत सुमार १५ वर्सां बंदी करून दवरिल्ले. त्या आनी उपरांतच्या काळांत किरिस्तांवांनी जायतीं धर्मीक गीतां रचलीं. फादर जॉकी मिरांद हाणें रचिल्लें नामनेचें धर्मीक गीत 'रिगलो जेजू मळयांत' हें त्याच काळांतलें. आज लेगीत तें लोकांच्या ओंठार घोळटा. 'आयक किरिस्तांव जन', 'ऊठ ऊठ प्राणिया', 'पापया निर्भाग्या', हीं गीतां त्याच काळांतलीं. मॅसिन्योर मिंगेल प्लासिद कुलासु हाणें 'जेजुचो मोग' हो झेलो विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक बरयलो. ताणेंच 'कोंकणी भाशेचें प्रथम पुस्तक' आनी 'बाळकांची मेटां' हीं दोन मुळावीं पुस्तकां रचलीं. फादर लुईश द् सौझ हाणें 'सड्यावेलीं साळकां' ह्या माथाळ्याखाल कर्नाटकांतल्या कोंकणी लोकांचीं हुमाणीं, ओंपाऱ्यो आनी होंवयो एकठांय केल्यो. १९१२ हें एक म्हत्वाचें वर्स. कर्नाटकांतलें कोंकणींतलें पयलें वयलें नेमाळें 'कोंकणी दिर्वे' ह्या वर्सा सुरू जालें. लुईश माश्कारेन्हास आनी यू. कण्णप्पा हे ताचे मूळ संस्थापक. हो वेळ मेरेन कर्नाटकांतल्या कोंकणी साहित्याक धर्मीक रूप आशिल्लें. आतां ताका समाजीक रूप आयलें. 'कोंकणी दिर्वे'च्या २८ वर्सांच्या काळांत नवे कवी आनी बरोवपी तयार जाले. तातूंतलीं कांय मुखेल नांवां हीं: जे. जे. रेगो, आलेक्स पायस, पेद्रु जॉन द सौझ, सिल्वेस्टर मिनेझिस, जेरोमे ए. साल्दाना, फेलीक्स नोरान्ह, ग्रेगोरी मिनेझिस, कॅजिटन लोबो, जे. एम्. रोड्रीगीस, आयरेन्यस लोबो, अरण्यवासी आनी हेर.

'कोंकणी दिर्वे' नेमाळ्याची देख घेवन आनी जायतीं नेमाळीं उजवाडाक आयलीं, तीं अशीं: 'राखणो', 'सुख-दुख', 'पंचकादयी', 'पैणारी', 'मित्र', 'कणिक', 'अमर कोंकणी', 'झेलो', 'जिवित'.

ज्यॉकी सांतान आल्वारीस हाची 'आंजेल' (१९५०) ही पयली वयली कादंबरी. बरोवप्याचे सादे सोपे शैलीक लागून आनी ताणें केल्या गांवांतल्या समाज जिणेच्या वास्तव चित्रणाक लागून ती खूब लोकप्रिय जाली. आल्वारीस हाणें सुमार ५० कादंबऱ्यो बरयल्यो. ताच्यो हेर म्हत्वाच्यो कादंबऱ्यो अश्योः 'आविलाचें जैत', 'बाझिलाचें सपन', 'कवी आनी रोजमारी', 'चेडूं तें चेडूंच', 'लिपिल्लें दिर्वे', 'आंगवणेची काल्स'. समाजांतले भांडवलवाद, जातीवाद आनी हेर जायते प्रस्न आल्वारीस

लोकांमुखार दवरता. ताणें कांय गुप्तहेर नवलकथा बरयल्यात, त्यो अश्यो: 'नव्या घरांतली खूण', 'तेरेझा चोत्राय', 'तूं फाल्यां आसचोनाय'. बरोवप्याच्या मताप्रमाण 'म्हाका निर्मिल्ली चली', 'सुंदरी', 'तीच सोडून आयली' ह्यो ताच्यो सगळ्यांत बऱ्यो नवलकथा.

'खडाप' ह्या नांवान बरोवपी व्ही. जे. पी. साल्दान हाच्या नवलकथांची बुन्याद इतिहासीक जावन आसा. हैदर अली आनी टिपू सुलतानाचो काळ हो ताच्या चड आवडीचो. ह्या विशयाचेर बरयल्ल्यो नवलकथा ह्यो: 'मोगाची महिमा', 'देवाचे कुरेन', 'सायबा भोगोस', 'सरदाराचे सान्निध्यान', 'सरदारांची सिनोल', 'बचावेची चावी', 'बेल्तांगडीचो बाल्ताझार', 'मोगा म्हाका शिकय'. ए. टी. लोबो हाणें ऊंच पांवड्याच्यो नवलकथा बरयल्यात. तागेली 'वेलचडी' ही नवलकथा एक हजार पानांची आसून कोंकणींतली सगळ्यांत व्हड अशी नवलकथा. ताच्यो हेर नवलकथा अश्यो: 'देवाची खुशी', 'रगताक खत लाय नाका'.

वासू वालेंसिया ह्या नांवान बरोवपी एडवीन जे. एफ्. डी सौझ हाणें आपल्या नवलकथांनी आयच्या शारांतल्या तरणाट्यांचें जिवित चितारलां. ताच्यो कांय नवलकथा अश्यो: 'पिलातान दिल्लें फर्मान', 'आयज हांव जियेतां', 'जुदासाक कुरावे', 'शेतांतलीं फुलां', 'मोगाची रात', 'चार दीस पांच राती', 'एक मनीस दोन सावळ्यो'.

स्तान आगियार होय आयचे पिळगेचीं सपनां रंगयता. 'नितीदार', 'फर्मान', 'शिकारी', पिमेन्तो' ह्यो ताच्यो कांय गाजिल्ल्यो कथा.

श्री. गब्बू म्हूण लोकप्रिय जाल्लो गाब्रियाल डी. सौझ हाच्या नवलकथांनी रुचीक संवाद होल्मतात. ताच्यो कांय नवलकथा अश्यो: 'नास्तीक', 'मोगाची मस्ती', 'बांदून दिल्ली व्हंकल', 'झडटी' आनी 'पातकी'.

डोल्फी लोबो ऊर्फ डोल्फी कास्सिया हो एक लोकप्रिय नवलकथाकार. ताच्यो कांय नवलकथा ह्यो: 'मळाबावेली दिवटी', 'घाटा फाटलें सोत', 'म्हज्या काळजांतलें फूल'. ताणें जायत्यो कथाय बरयल्यात. रोनाल्द पेरैरा हो असोच लोकप्रिय नवलकथाकार. 'पुनर जिवित', 'गुपीत घातकी' आनी 'पागर कोसळ्ळें' ह्यो ताच्यो कांय कथा. जेरी कुलशेकाराच्या नवलकथांक मातयेचो वास येता. ताच्यो कांय नवकथा अश्यो: 'देशवाड', 'रडटाय कित्याक?', 'रायताराच्यो शिंत्र्यो'.

आयरीन पिन्टो ही कुशळकायेन बायलांचे प्रश्न मांडटा. तिच्यो कांय नवलकथा अश्यो: 'मोग आनी भरवसो', 'म्हजें अंतस्कर्ण विसरचेंना', 'तुवें म्हाका नेगार केलें', 'हांव चुकोन पडोंक ना'. हेर कांय नामनेचे नवलकथाकार अशे: मिक मेक्स, फ्रांसिस साल्दाना, व्हिक्टर रोड्रिगीस, हॅरोल पियूस, लान्सी नायक, केवीन डी मेलो, एच्. जे. माश्कारेन्हस, लेन्सलॉट पिन्टो, एच्. जे. गोवेयस, एम्. पॅट्रीक, जॅमी बारोक्कास, व्ही. एम्. फेर्नांडीस, सी. बी. कारवालो, लिओ डी सौझ, फ्रांसिस फेर्नांडीग.

**कथा:** 'कोंकणी दिर्वें' ह्या नेमाळ्यांतल्यान कथा साहित्याक सुरवात जाली. ह्या नेमाळ्यांत बरोवपी कांय नामनेचे कथाकार अशे: पेद्रु जॉन डी सौझ, फाउस्टीन डी सौझ, जे. यु. रेगो, व्हेनानटीयूस कोयेल्यो, आयरेनियश लोबो आनी जे. एम्. रोड्रिगीस. ताच्यो चडश्यो कथा नेमाळ्यांतल्यान आयल्यो तरी कांय कथांझेले उजवाडाक आयल्यात. देखीक: जे. सी. वियेगस (शिरीवंत)- 'मोगाच्यो कथा'; एडवीन डी सौझ (वासू वालासिया)- 'तरणी किरणां'; जे. बी. मोरायश- 'कोशेदान केल्ली खूण'; नंदिनी- 'आकांत'; सिल्वेस्टर डी सौझ- 'अपरिचीत'; मिक मॅक्स- 'शाणी'; सी. जी. सिक्वेरा- 'दुखां'; फ्रांसिस साल्दाना- 'उत्तीम काणयां झेलो'.

सी. जी. सिक्वेरा हाणें संपादित केल्ल्या 'पांच पांकळ्यो' ह्या झेल्यांत हेमाचार्य, हॅरोलप्यूस, सी. जी. सिक्वेरा हांच्यो कथा आस्पावतात. ए. मॅन्डोंसा हाणें संपादित केल्ल्या 'मोग आनी उतर' ह्या झेल्यांत सात बरोवप्यांच्यो सात कथा आसात. सी. जी. सिक्वेरा हाणें संपादित केल्ल्या 'उलो आनी झेलो' ह्या झेल्यांत इकरा बरोवप्यांच्यो इकरा कथा आस्पावतात. ग्लॅडीस रेगो हिणें संपादन केल्ल्या 'कळे आनी झेले' ह्या झेल्यांत बायल कथाकारांच्यो कथा आस्पावतात. सी. जी. सिक्वेरा हाणें संपादित केल्ल्या 'सात साळकां' ह्या झेल्यांत सात मोगाकथा आस्पावतात. नामनेचो इंग्लीश बरोवपी आर्थर कॉनन डॉयल हाच्यो कथा 'झरलो गोमस' आनी 'वातीस शेणॉय' ह्या कथांझेल्यांत वाचूंक मेळटात. जे. बी. मोरायस हाणें ह्यो कथा रुपांतरीत केल्यात. हेर कांय कथांकार अशे: ए. टी. लोबो, एडी नेटो, जेम्मी बारोक्कास, टीना डी मेलो, ना. दी. सौझ, विल्फी रेबींबस आनी व्हाली व्होग्गा.

**कविता:** ह्या शतमानाचे सुर्वेक 'शंबर कांतिग' ह्या नांवाखाल किरिस्तांव धर्मगीतां उजवाडाक आयलीं. तशेंच मॅसिन्योर मिंगेल प्लासिड कुलासो अनी मॅमिन्योर रेमंड माश्कारेन्यस हांणी जायतीं धर्मगीतां रचलीं. 'कोंकणी दिर्वें' ह्या नेमाळ्याक लागून जायते कवी मुखार आयले. तातूंतले चड नामनेचे म्हळ्यार लुईश माश्कारेन्हस, जॉन जोसेफ रेगो, फादर सिल्वेस्टर मिनेझिस, ग्रेगरी मिनेझिस, फॅलिक्स पॉल नोरोन्ह, फादर पाउल लुईस बोथेल्यो. हांचे मजगतीं पयलो वयलो आनी म्हालगडो कवी म्हळ्यार लुईश माश्कारेन्हस. ताच्यो 'कोंकणी दिर्वें' ह्या नेमाळ्यांतल्यान आयिल्ल्यो कविता म्हळ्यार कोंकणी काव्याचीं अप्रूप रुपां. ह्या धाकटुल्या कवितांभायर ताची 'आब्रावाचें यज्ञदान' ही सुपुल्ली संगितीका नामनेक पावल्या. अँधनी जॉन डी सौझ (मोरीदास) हो उतरांचो तसोच काव्यतंत्राचो धनी. ताच्या काव्यांत शब्दांचो अप्रूप खेळ पळोवंक मेळटा.

चार्लस फ्रांसिस (चाफ्रा) द कॉश्त हो कोंकणीतलो एक म्हान कवी. ताणें फाटल्या तीस वर्सांमदीं बरयल्ल्यो ५१ कविता 'सोश्याचे कान' ह्या झेल्यांत आस्पावतात. ताची कल्पनाशक्त, ताचें निरिक्षण, ताची संवेदनाशीलताय हातूंतल्यान फकत कोंकणी समाजाचेंच जिवितदर्शन जायना तर सगळ्या संवसाराचें जिवितदर्शन घडटा. ताच्या उतरांक जसो अर्थ आसा, तसोच रंग आनी संगीतूत आसा.

स्वामी सुप्रिया (फादर सी. सी. ए. पै.) ह्या विद्वानान कोंकणीचो खोल अभ्यास केला आनी साहित्यमळार मोलादीक वावर केला. 'अन्या अकाय' आनी 'काळीज मुरमुरें' हे ताचे दोन कवितांझेले. सादी, सोपी भास आनी कळवळ्याचो उमाळो हें ताचें खाशेलपण.

जॉन बॅप्टीस मोरायस हाचो पयलो झेलो 'नवी व्हंकल' (१९७७, साहित्य अकादेमी पुरस्कार- १९८५). हातूंतल्यो चडश्यो कविता घराव्या विशयाचेर आसात. 'भितरलें तुफान' ह्या ताच्या झेल्यांतल्या कवितांत तत्त्वगिन्यानाची बुन्याद आसा. सादे सोपे भाशेंत कवी सैमाचीं चित्रां कुशळतायेन चितारता, तशेंच जिवितांतलीं कांय सत्यां आनी गुपितां आमकां भेटयता.

फादर प्रताप नायक, एस्. जे. हाणें संपादित केल्ल्या 'कानडी माती कोंकणी कवी' ह्या झेल्यांत २४ कवींच्यो ११० कविता आस्पावतात. तातूंतले कांय कवी हे: फादर पॉल लुईस बोथेलो, फादर सिल्वेस्टर मिनेझिस, चा. फ्रा. द कॉस्ता, स्टान आगेरा, जे. बी. सिकैरा, मॅल्वीन रोड्रिगीस आनी हेर.

**नाटक:** किरिस्तांव नाटककारांतले मंगळूरचे पयले वयले नाटककार हे: पेद्रु जॉन डी सौझ, पाश्काल सिकैरा, बोनावेन्टूर तावरो. त्या काळांतलीं नामनेचीं नाटकां हीं: 'दोग सर्जंट', 'नावाडीक वैज', 'तकलेंतलें सुकणें', 'बाळ आलेस'. लुईश माश्कारेन्हस हाचें 'आब्रावाचें यज्ञदान' हें ह्याच काळांतलें. मार्टीन पी. डी. सा. हाणें २५ वयर नाटकां बरयल्लीं. तातूंतलीं चडशीं धर्मीक. ताच्या कांय नाटकांचीं नांवां अशीं: 'कम्युनिझम', 'लिओपोल्दाचीं पातकां', 'सपनांत मरणां', 'फातिमाची सायबीण', 'क्रिस्ताचें जनन', 'माडटिराचें जैत', 'आसिसिचो सराफ'.

एस्. एस्. प्रभू हाचीं हीं नाटकां बरींच लोकप्रिय जाल्लीं: 'दोत', 'नोकर', 'रैताक जैत'. फ्रेड फेर्नांडीस हाचीं नाटकां समाजीक आशयाचीं: 'भिकारी', 'बलात्कार', 'विचीत्र खुनी', 'माय खंय आसा?'

जे. बी. रस्किना हाचीं 'इश्टागत' आनी 'अपुर्बायेचें काजार' हीं

त्यावेळार बरींच गाजिल्लीं. डी. पी. आल्बुकेर्क हाणें 'आस्तीक लागून ख्यास्त', 'हांव राय जाल्लो जाल्यार', 'आमचें दायज' हीं नाटकां बरयल्लीं. बी. जे. पी. साल्दान हाणें नाट्कांय बरयल्यांत. 'सेंदराची सिनोल' हें ताचें सगळ्यांत बरें नाटक. ताचीं हेर नाटकां अशीं: 'खालती मान', 'उलयतात उलोवंदी', 'भावनांतलो गुलाब', 'निर्मोण'. ताचीं नाटकां 'टोबीयास' आनी 'खोतावीण काळीज' हीं ओपेरा रुपान माचयेर हाडलीं. कवी चा. फ्रा. द कोश्ता होय एक बरो नाटककार. धिटायेर मळिल्ली वाट सोडून ताणें कोंकणी रंगमाचयेर क्रांती घडोवन हाडली. ढोंगी मनशांचीं रुपडीं तो काडून उडयता आनी नश्ट्या धर्मीक आनी समाजीक चालीरितींचेर चाबकां मारता. ताचीं कांय गाजिल्लीं नाटकां हीं: 'सुणे माजर हांसता', 'तोमातो', 'व्हिसेंतीचे भाव', 'तर्णे तर्णे मोर्णे', 'सोबीत सुंवसार', 'भांगर मनीस' 'मागीरचे मागीर', 'कुंवाळयाची वाल', 'बॉचो बंद', 'देव पळयत आसा'.

नवलकथाकार जे. एस्. आल्वारीस हाणें लेगीत कांय जैतिवंत नाटकां बरयल्यांत. 'चेडवाचो हंकार पळे', 'एसथेल तेगांची व्हंकल', 'चेडो एक चेडवां साडेसात', 'जेजू नाजारें'. जी. एम्. बी. रोड्रीगीस हाणें मुंबयत रावन कोंकणी माची गिरेस्त केली. ताणें सुमार ५० नाटकां बरयल्यांत. ए. टी. लोबो ह्या नवलकथाकारान लेगीत जायतीं नाटकां बरोवन मुंबयचे माचयेर हाडलीं. तातूंतलीं कांय नाटकां हीं: 'न्हवरो', 'आंकवार आवय', 'जावेलो नातू', 'पहिलवान पंडित'.

सनी ए. डी. सौझ हाणें लेगीत मुंबयचे कोंकणी माचयेक हातभार लायलो. कोंकणी माचयेची सेवा करपी हे कांय तरनाटे नाटककार: सी. जी. सिक्वेरा, क्लाउड डी सौझ, जे. बी. मोरायश, लॅन्सी पिन्टो नायक, डोल्फी कास्सिया, हेन्री डी सिल्वा सुरटकाळ, श्री. गेबू, बेना रुझाय, मीक मॅक्स, विल्फी रॅबिंबस, रोझ कारवार स्ट्रीट, एडी सिक्वेरा अनी फ्रांसिस फेर्नांडीस.

- कों. वि. सं. मं.

**केरळांतलें कोंकणी साहित्य:** कोंकणी भाशा केरळांत नेमक्या खंयच्या काळांत पावली हें थारावंक जायना. पूर्विल्ल्या काळांत हे भाशेंतल्यान केरळांत साहित्यनिर्माणी जावंक पावली ना. मध्यकाळांत मात टिपू सूलतानाचे कर्नाटकांतले कारकीर्दीउपरांत केरळ हांगा आयिल्ल्या जॉन लेडन (१७७५-१८११) हाणें हांगाच्या कांय ब्राह्मणांनी कोंकणींतल्यान बरपावळ केल्या, अशें नमूद करून दवरलां. 'वीरभद्र चरित्र', 'परशुराम चरित्र' हीं कोंकणींतल्यान रचिल्लीं आनी महाभारत, भागवत, लिंगपुराण, रामायण सारक्या ग्रंथांचो संस्कृतांतल्यान कोंकणींत अणकार केल्लो अशेंय समजतात, पूण हीं पुस्तकां खंय आसात हें मात सद्या समजना. आर्विल्ल्या काळांत हांगा बरीच कोंकणी बरपावळ जाली.

सुमार १९४० त जी. कमलम्माळ हिणें रघुरामायणाचो संक्षिप्त अणकार केलो. पूण हें पुस्तक १९८१ त उजवाडाक आयलें. पुस्तकांच्या रुपांत शब्दकोश उजवाडाक आयिल्ले नात, पूण शब्दकोश तयार करपाचो वावर मात जाले. नाटकांचीं पुस्तकां उजवाडाक येवंक नात, पूण कोंकणींतल्यान बरींच नाटकां रंगमाचयेर जावन गेल्यांत. १९८६ त गोकुळदास प्रभू हाचें 'प्रथिवै नमः' हें कादंबरी रुपांतलें पुस्तक उजवाडाक आयलां. केरळांतले कोंकणींत उजवाडाक आयिल्लीं कथांचीं पुस्तकां म्हळयार 'कोंकणी कथाष्टक' (१९७८), 'काणयां घोस' (१९७९) आनी कथा ८३,८४,८५ (१९८६). हे तीनूय प्रातिनिधीक कथांचे झेले आसात.

पी. एन्. नरसिंह पै (१८७९-१९५९) हाणें काव्य बरपावळ पयलीं केली. ताचें काव्य भक्तीगीतांच्या रुपांत आसा. ए. डी. रामचंद्र शर्मा (१८७९-१९८०) हाणेंय बरीच भक्तीगीतांची बरपावळ केल्या. ताणें कोंकणींतलें पयलें विलापकाव्य (elegy) बरयलां. ताचीं माबार पुस्तकां मल्याळम लिपींतल्यान उजवाडाक आयल्यांत. जी. कमलम्माळचें 'पात्रचरितम्' (१९३२) महाभारतांतल्या घडणुकांचेर आदारित आसा. पद्मनाभ भट हाणें 'वेंकट कल्याण' आनी 'सत्यनारायण चरितम्' (१९५०) हीं दोन पुस्तकां बरयल्यांत. वेदवती शेणय हिचीं तीन भक्तिगीतांचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. हेभायर प्रातिनिधीक भक्तिगीतांचेय झेले केरळांत कोंकणींतल्यान उजवाडाक आयल्यात. स्वतंत्रपणान काव्य रचपी आनी हेर भाशांतलें काव्य कोंकणींतल्यान अणकारपी केरळांत बरेच आसात.

केरळांतल्या कोंकणी साहित्यिकांमदीं बऱ्याच जाणांचीं पुस्तकां उजवाडाक आयिल्लीं नात; पूण विंगड विंगड नेमाळ्यांतल्यान कोंकणी बरोवप चालू आसा. कोंकणी साहित्यांतले मुखेल साहित्यकार अशे आसात:

१. महाकाव्य: जी. कमलम्माळ; हेर पुस्तकां-पात्रचरित्र, गीतासार, सरस्वती स्तोत्र, लक्ष्मी स्तोत्र, दोन मित्र.

२. हरिकथोपयोगी गीतां: संगीत- पी. एन्. नरसिंह पै.

३. नाटकां- विठ्ठल गणेश प्रभु, ए. गोपाळकृष्ण प्रभू, शेठ बलराज हांणीं पुस्तकांच्या रुपान कांयच बरयिल्लें ना.

४. कादंबरी- नवलिका- के. गोकुळदकस प्रभू-प्रथिवै नमः

५. कथा- वि. वेंकटेश, के- नारायण नायक, - शेठ बालराज, पी. श्रीनिवास प्रभू

६. कविता- आर. सी. शर्मा- भाषा गान मंजिरी; वत्सला मंजुनाथ राव- कोंकणी पद्य संग्रह, फुलां माळा; पी. एन्. शिवानंद शणै- किरकिर; शेठ बलराज-म्हन्तारि अर्जि; शरतचंद्र शेणै- मीरा जीवन आनी कवन; पी. जी. कामत; श्रीधर कामत; के. श्रीधर शेणै; पय्यनूर रमेश पै; सुशीला त्रिविक्रम भट हांचीं पुस्तकां उजवाडाक येवंक नात. के. अनंत भट- कोंकणी गीतमाला, आनन्दन् एन्. एन्.- आनन्दालीं पदां.

७. समीक्षा- आर. के. राव- अवतारिका कथाष्टक, पी. जी. कामत- अवतारिका भगवद्‌गीतेक, आनन्दन एन्. एन्.- अवतारिका किरकिर, डॉ. बी. एस्. आशा- अवतारिका कविता ८३, ८४, ८५. पूण पुस्तकांच्या रुपान समीक्षा साहित्य उजवाडाक आयिल्लें ना.

८. अणकार- पी. जी. कामत- एक अवतारिका भगवद्‌गीतेक; शरतचंद्र शेणै-मीरा-जीवन आनी कवन; के. अनंत भट- सूर भजनमाला, तुळसीदास; आनंदन् एन्. एन्.- दोळ्यांतले किशीर- चोखेर बाळी हया खींद्रनाथ टागोरांचे कादंबरीचो अणकार; एन्. पुरुषोत्तम मल्ल्या-ज्ञानपाना.

- आनन्दन एन्. एन्.

**कोंकणी साहित्य परिशद:** अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद म्हळयार पुराय देशांतल्या सगळ्या कोंकणी संस्थांचो महासंघ. सद्या दर दोन वर्सांनी गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांनी परिशदेचीं संमेलनां जातात.

अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद कारवारांत १९३९ वर्सा स्थापन जाली. थंय पयली बसका ८ आनी ९ जुलय दिसा जाली. परिशदेचो संस्थापक आनी पयलो येवकार अध्यक्ष माधव मंजुनाथ (शणै) शानभाग आशिल्लो. विश्वनाथ पांडुरंग प्रभू हो अध्यक्ष आशिल्लो. परिशद स्थापन करपाफाटले हेत अशे आशिल्ले.

१. कोंकणी भाशा उलोवपी विंगडविंगड प्रांतांतल्या लोकांचो एकवट घडोवन हाडप. २. कोंकणी भाशेविशीं लोकांभितर कोंकणी भाशेचो मोग वाडोवप. ३. कोंकणी भाशा एकरूप करूंक वावरप. ४. कोंकणी भाशेची मूळ आनी राश्ट्रीय लिपी देवनागरी हीच कोंकणी भाशेत उपेगांत हाडप. ५. कोंकणी सरस्पत आनी संस्कृताय वाडोवप आनी पातळावप.

परिशदेक १९९० त ५० वर्सां पुराय जालीं. सद्यामेरेन तिच्यो सतरा बसका जाल्यात. ह्या सतरा बसकांची वळेरी अशी:

दुसरी बसका: ३१ डिसेंबर १९४०. थळ: उडपी. येवकार अध्यक्ष- जॅरॉम साल्दान्य. अध्यक्ष- डॉ. टी. माधव पै.

तिसरी बसका: ४, ५ एप्रिल १९४२. थळ- मुंबय. येवकार अध्यक्ष- वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकार. अध्यक्ष- प्रो. आर्मांद मिनेझिश.

चवथी बसका: १९४९. थळ- मुंबय. येवकार अध्यक्ष- रेव्हरंड फादर

डॉ. एच्. ओ. मास्कारेन्यश. अध्यक्ष- डॉ. एम्. यू. मास्कारेन्यश.

पांचवी बसकाः २३, २४ फेब्रुवारी १९५२. थळः मुंबय- येवकार अध्यक्ष- बा. भ. बोरकार. अध्यक्ष- डॉ. मारियान साल्दान्य. उक्तावण- आर्चबिशप व्हेलेरियन ग्रासीयश.

सवी बसका- १९५७. थळः मुंबय. येवकार अध्यक्ष- रामचंद्र नारायण नायक. अध्यक्ष- डॉ. सुमित्र मंगेश कत्रे. उक्तावण- आचार्य काकासायब कालेलकार.

सातवी बसकाः १९६०. थळः कारवार, येवकार अध्यक्ष- ॲड्. एस्. पी. कामत, अध्यक्ष- डॉ. बी. एम्. सालेतोर. उक्तावण- स्वामी द्वारकानाथ तीर्थ.

आठवी बसकाः १९६२. थळः गोंय. अध्यक्ष- डॉ. मनोहरराय सरदेसाय. येवकार अध्यक्ष- रवींद्र केळेकार.

णववी बसकाः १९ सप्टेंबर ते २ ऑक्टोबर, १९६७. थळः मुंबय. येवकार अध्यक्ष- रेव्ह. मॉसिंजोर आयरिश फेर्नांदीश. अध्यक्षः बा. भ. बोरकार. उक्तावण- वसंतराव नाईक.

धावी बसकाः ८ ते १० फेब्रुवारी १९७४. थळः पणजी. येवकार अध्यक्ष- अनंत नरसिंह नायक. अध्यक्ष- के. के. पै. उक्तावण- डॉ. सुनितीकुमार चटर्जी.

इकरावी बसकाः १९, २० फेब्रुवारी. थळः मंगळूर. येवकार अध्यक्ष के. के. पै. अध्यक्ष- चंद्रकांत केणी.

बारावी बसकाः ११, १२ फेब्रुवारी १९७८. थळः कोचीन. येवकार अध्यक्ष- डॉ. जे. ए. भट. अध्यक्ष- श्री. रवींद्र केळेकार. उक्तावण- श्री. ए. के. ॲन्टनी.

तेरावी बसकाः १२, १३ एप्रिल १९८०. थळः मुंबय. येवकार अध्यक्ष- एफ्. जे. मार्तिरीस. अध्यक्ष- एन्. पुरुषोत्तम मल्ल्या. उक्तावण- प्रतापसिंह राणे.

चवदावी बसकाः २७, २८ फेब्रुवारी १९८२. थळः पणजी. येवकार अध्यक्ष- ॲड. उदय भेंब्रो. उक्तावण- डॉ. उमाशंकर जोशी. अध्यक्ष- व्ही. जे. पी. साल्दान्य.

पंदरावी बसकाः ११ ते १३ मे १९८४. थळः बेंगळूर. येवकार अध्यक्ष- एम्. यू. हट्टिकुडूर. अध्यक्ष- नागेश सोंदे. उक्तावण- ए. एम्. बॅनर्जी.

सोळावी बसकाः २४, २५ मे १९८६. थळः कोचीन. येवकार अध्यक्ष- एन्. पुरुषोत्तम मल्ल्या. अध्यक्ष- ॲड्. उदय भेंब्रो.

सतरावी बसका- ६,७ जानेवारी १९८९. थळः मणिपाल. येवकार अध्यक्ष- टी. रमेश पै अध्यक्ष- माधव विठ्ठल कामत. उक्तावण- एदुआर्द फालैरो. ८ जुलय १९८९ दिसा परिशदेचो भांगरा उत्सव सुवाळो कारवारांत मनयलो. ताचो अध्यक्ष श्री. माधव विठ्ठल कामत आशिल्लो.

- प्रकाश थळी

**कोंडोः** (मराठी- बांबू; संस्कृत- वंश, वेणू, कीचक; लॅटीनः बांबूसी, देंद्रोकालामूस जिगान्तेउस; कूळ- ग्रामिनासेए).

कोंडो ही तणाचे जातीची बरींच वर्सां जियेवपी वनस्पत. वनस्पतशास्त्रांत हे वनस्पतीक 'राक्षसी तण' अशें म्हणटात. कोंड्याचो आकार, उंचाय ही जातीचेर आदारून आसता. कांय कोंडे पोकळ जाल्यार कांय धड आसतात. कोंडे बेगीन वाडटात. दर दिसाक कोंडो सुमार ७-८ सेंमी. वाडटा. कांय जाती तर दिसाक ४० सेंमी. मेरेन वाडटात. पूण ही बेगोबेग वाड सुमार एक म्हयनोमेरेनूच जाता. खंयचेयकडेन एक कोंडो रोयत जाल्यार उपरांत थंय कोंड्यांचो एक चोमोच (आळ) तयार जाता. एका चोम्यांत ३०-१०० कोंडे आसूंक शकतात. कोंड्याचीं पानां लांबट आनी बारीक देंठांचीं आसतात. फुलांचो मोसम जातीप्रमाण आसता. कांय जातींनी फुलां एक वा चड वर्सांउपरांत येतात, जाल्यार कांय जातींनी ३०-६० वर्सांउपरांत फकत एकदांच फुलतात. ह्यो एकदांच फुलपी जाती फुलल्याउपरांत रोखड्योच मरतात. कोंड्याच्या कांय जातींक कांटे आसतात, जाल्यार कांय जातींक कांटे नासतात. कोंड्याक भाताच्या आशायेद्यो बियो येतात.

कोंड्याच्या चडशा जातींचें मूळ भारत, ब्रह्मदेश, चीन, मलाया ह्या देशांनी आसा. कांय जातींचें मूळ दक्षिण अमेरिकेंत आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

युरोप आनी अंटार्क्टिका हे खंड सोडीत जाल्यार संवसारांतल्या हेर सगळ्या वाठारांनी कोंड्याची लागवड जाता. ब्रह्मदेश, चीन, जपान, कोरिया ह्या देशांनी कोंड्याची लागवड व्हड प्रमाणांत जाता. भारतांत सुमार १० दशलक्ष हेक्टर वाठारांत कोंड्याची लागवड आसा. गोंयांत कोंड्याची खास अशी लागवड केल्ली ना. पूण हेर पिकांवांगडा काजूच्या रानांनी, भाटाचे देगेक ह्या पिकाची लागवड करतात. कांय जाती रानांनी वाडटात. गोंयांत गांवगिऱ्या वाठारांनी, पोरसांनी कोंडे रोयिल्ले दिश्टी पडटात.

कोंड्याच्यो सुमार ५५० जाती आसात. तातूंतल्यो सुमार १३६ जाती भारतांत सांपडटात. कांय जाती तणाइतल्यो बारीक आसतात. कांय जाती १२० फूट मेरेन ऊंच वाडटात आनी जाडयेन एक फूट घेराच्यो लेगीत आसतात. डेहराडून हांगा आशिल्ल्या संशोधन केंद्राचेर कोंड्याच्या ३५ जातींविशीं संशोधन चालू आसा.

कोंड्याचें खाशेलेपण म्हळ्यार ताची बेगीन जावपी वाड. हेर खंयचेय वनस्पतीपरस कोंडो बेगीन वाडटा. जपानांतले 'माडेक' जातीचे कोंडे २४ वरांभितर १२० सेंमी. वाडटात. बारीकसाणेन नियाळल्यार ही वाड दोळ्यांक लेगीत दिसूंक शकता.

कोंडे सपाट जमनीर जशे जातात, तशेच दोंगरांनी ३,००० हजार फूट उंचायेचेरूय जावंक शकतात. कोंड्याची लागवड फुटव्यांतल्यान वा बियांतल्यान करतात. ह्या पिकाची लागवड सादारणपणान पावस पडल्याउपरांत करतात. ताची खास जतनाय घेवची पडना. ६-८ सप्तकांभितर कोंड्याची पुराय वाड जाता, जाल्यार ३-५ वर्सांनी ते जून जावन कापपाखातीर तयार जातात. गोंयांत कोंड्याची पध्दतशीर लागवड करपाखातीर रानखात्याकडेन रोंपां मेळटात.

जायगँटोक्लोआ, ग्वादुआ, बांबुसा, फिलोस्टॅकिस, ॲरंडिनॅरिया, डेंड्रोकॅलॅमस, ऑक्सिटेनँथेरा, मेलोकॅना ह्यो संवसारांतल्यो कोंड्याच्यो मुखेल अश्यो आठ जाती आसात.

गोंयांत मेळपी कोंड्याचे कांय म्हत्वाचे प्रकार अशेः

**१. हुडेलः** ह्या प्रकारचे कोंडे आकारान बारीक आसतात. ते चड ऊंच वाडनात. हे कोंडे पोकळ आसतात आनी हांचो चडसो उपेग वंयो बांदपाखातीर जाता.

**२. बांबू (कोंडे):** ह्या कोंड्याक बरीच मागणी आसा. तांची लागवडूय व्हड प्रमाणांत जाता. हे कोंडे भरीव आशिल्ल्यान तांचो उपेग पांटले, सुपां आनी हेर हस्तकलेच्यो वस्ती करपाखातीर जाता.

**३. शिरीः** हे कोंडे रानांनी वाडटात. तांकां कांटे आसतात, जाका लागून ते वंयो करूंक वापरतात.

**४. वेळूः** हे कोंडे आंगान मोटे आनी ऊंच वाडटात. हांचो उपेग कागद तयार करपाखातीर जाता.

कोंड्याचो उपेग पूर्विल्ल्या काळासावन जाता. विंगड विंगड तरेच्यो हस्तकलेच्यो वस्तू, घराची सजावट, पोरसाखातीर वंय, खेळणीं, पिल्लूक, पूल, बैलगाडी, पांटले, मापां, शेंदऱ्यो ह्या सारक्यो वस्तू करपाक कोंड्यांचो वापर करतात. वेळूचे कोंब भाजी म्हूण खातात, जांकां 'किल्ल' म्हणटात. नुस्त्याच्या तेलाचो वास उणो करपाखातीर कोंड्याचीं पानां वापरतात. दुकळ पडटा तेन्ना कोंड्याच्यो बियो खावपाखातीर वापरतात. कोंडे चड फुलतात तेन्ना दुकळ पडपाचो संभव आसता, असो अंधविश्वास कांय लोक बाळगितात. कोंड्याचो वापर हत्यार म्हूण करतात. फळझाडाक आनी भाजीपाल्याक आदार दिवपाखातीर कोंड्याचो वापर जाता.

- विश्राम गांवकार

**सांस्कृतिक संदर्भः** बंगालच्या वाठारांत मकर संक्रांतीच्या दिसा कोंड्याची वास्तुदेवता म्हूण पूजा करतात. एकाद्रें विघ्न वा संकश्ट

आयत्याखूय तें पयस जावचें, म्हूण कोंड्याची पूजा करतात.

आसाम आनी छोटानागपूर ह्या वाठारांतले दोंगरांनी रावपी आदिवासी कोंड्याक देव मानतात. कांय पंगडांमदीं लग्नाच्या दिसा न्हवरो व्हंकल कोंड्याक प्रदक्षिणा घालतात. उत्तर भारतांतल्या गांवगिऱ्या वाठारांनी बरेचकडेन देवळामुखार कोंडो पुरुन दवरिल्लो आसता. देवाक जेन्ना वाज येता, तेन्ना ताणें ह्या कोंड्याचेर बसचें, अशी ताच्याफाटल्यान कल्पना आसा. कांय आदिवासी, शिमेवयलो देव म्हूण गांवचे शिमेचेर कोंडो पुरतात आनी दर वर्सा थंय जात्रा करतात. आसामांतले लूशाई लोक पावसाळ्यांत कोंड्याच्या रानांतल्यान प्रवास करीनात.

- कों. वि. सं. मं.

**कोंबो:** (पळेयात कुकड):

**कोईमतूर:** तमिळनाडू राज्यांतल्या जिल्ह्याचें ठाणें. लोकसंख्या: ३,५६,३६८ (१९८१). हें शार नोयिल न्हंयचे दावे देगेर ३९६ किमी. अंतराचेर आसा. निलगिरी आनी अन्नमलई ह्या पर्वतांच्या लागसार, बोलमपट्टी देगणांत पालघाट खिंडीचे मुखावेले वटेन कोईमतूर शार वसलां. हांगाचें हवामान समशीतोश्ण आसता आनी तापमान २५° ते २७.५° से. आसता.

तेराव्या शेंकड्यासावन ह्या शाराचो इतिहास सुरू जाता. १७६८ ते १७९९ ह्या वर्सांनी हैदर अली, टिपू सुलतान आनी ब्रिटीश हांचेमदीं झुजां जालीं आनी शेवटाक हें शार ब्रिटिशांकडेन आयलें. फुडें १८६५ वर्सासावन हें शार जिल्ह्याचें ठाणें जालें.

दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत हांगाच्या लांब धाग्याच्या कापसाखातीर आनी वीज उत्पादनाखातीर शाराच्या उद्येगीक विकासाची वाड जायत गेली. कपडे, कातडीं कमोवप, शाबू, शेतकी उपकरणां, काफी, साकर आदींचे ल्हान - व्हड कारखाने हांगा आसात. तेचपरी लघुउद्येगाचें हें एक केंद्र जावन आसा. शारालागींच्या आनी काफी हांचे मळे आशिल्ल्यान कोईमतूर शार एक व्हड बाजारपेठ जाल्या. हांगा कितल्योशोच शिक्षणीक, शेतकीसंशोधन, तंत्रवैज्ञानिक आदी संस्था आसात. हांगाचें साक्षरतेचें प्रमाण ६५.४२% वयर आसा. तमिळनाडू राज्यांत उद्येगीक आनीक अर्थीक नदरेन कोईमतूर शाराक दुसरो क्रमांक मेळ्ळा.

ह्या शारासावन ६ किमी. अंतराचेर पेरूराचीं देवळां आसात. हातूंतलीं गोष्टीश्वर, सभापती, पट्टीश्वर हीं देवळां टिपू सुलतानान नश्ट केल्यांत, तरी ११ मी. उंचायेचो ध्वजस्तंभ, १७ मी. उंचायेचें गोपूर, वेल्या पाख्यासावन हुमकळपी फातरांच्यो सरपळ्यो, तशेंच शिवतांडवाच्या नाचाच्यो मुद्रा आशिल्ले आठ खांबे अशीं जायतीं शिल्पां हांगा पळोवंक मेळटात. कोईमतूर हें रुंदमापी आनी मीटरमापी रेल्वेमार्गाचे एक केंद्र आसा. मद्रासाचे अस्तंतेक दक्षिण रेल्वेन ४९१ किमी. अंतराचेर हें स्थानक आसून हांगाच्यान अस्तंत देगेर आनी ऊटकमंड ह्या शाराकडेन रेल्वेमार्गान जोडलां. ह्या शारांत विमानतळ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कोउतु, कायतानु फ्रांसिश्कु:** क्रिस्ती धर्म फुडारी. मूळचो गोंयच्या पणजी शारांतलो. १७७७ ते १७८७ काळ मेरेन तो केरळांतल्या कोचीन शारांत आशिल्ल्या डायोसिजाचो गव्हर्नर आशिल्लो. क्रिस्ती धर्माची उदरगत करूंक तो तळमळीन वावुरलो. ताणें सुमार पांच हजार लोकांक क्रिस्ती धर्माची दीक्षा दिल्या. तेचपरी किरिस्तांव धर्माविशीं लोकांच्या मनांत जो अविश्वास आशिल्लो, तो काडून तांच्या मनांत एकचाराची भावना जागोवपाक ताणें मोलादीक वावर केला.

- कों. वि. सं. मं.

**कोउतु, मानुएल जुजे फेलिसियानो गुस्ताव:** (जल्म: १८५६ सुकूर- बारदेस; मरण: ?).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. मिलापूर डायोसिजीचो मिशनरी आशिल्लो. तेचपरी थंयचे सेमिनारींत तो प्राध्यापक आशिल्लो. उपरांत तो मोझांबीक वाठारांत मिशनरी म्हूण आसतना क्यूलीमेन वाठारांतलो पाद्री जालो. पोर्तुगालच्या बिशपाचे गैर हाजेरींत १८९७ वर्सा मोझांबीक वाठारांत मुखेल धर्माध्यक्षाचो अधिकार ताणें सांबाळिल्लो. ताणें पोर्तुगेज मिशनाचेर दोन पुस्तकां बरयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**कोको:** (मराठी- कोको; इंग्लीश- चॉकलेट ट्री; लॅटीन- थिओब्रोमा काकाओ; कूळ- स्टर्क्युलिएसी).

वर्सूयभर पाचवें उरपी हें झाड सुमार ९ मी. ऊंच वाडटा. सुर्वेक ह्या झाडाचो रोंपो १ ते १.७ मी. सरळ वाडटा आनी उपरांत ताचे ३ ते ५ फांटे जातात. ताचो आकार पंख्यावरी आसता. झाडाचीं पानां १५ ते ३० सेंमी. लांब आसतात. हें झाड वसांतल्यान तीन फावट चंवरता.

कोकोचें झाड 'कॉलीफ्लोरस' प्रकारचें जावन आसा; म्हळ्यार ताचीं फुलां आनी फळां झाडाच्या कांडाक वा पानां नाशिल्ले जून खांदयेक जातात. तांची उत्पत्ती पानांच्या देंठाकडल्या भागांत जाता. ताका गुलाबी वा धव्या रंगाचीं फुलां जातात. कोकोचें फळ ३० सेंमी. लांब आनी १० सेंमी. रुंद आसता. तें तांबशें, हळडुवें, जांबळें वा पुडीकोराचें आसता. ताची भायली कात दाट, घट आनी चामड्याभशेन आसता. ह्या फळांत २० ते ४० चेपट्यो वा वाटकुळ्यो धवसार, जांबळ्यो वा पुडीकोराच्यो बियो आसतात. तांचो आकार १.५ ते २.५ सेंमी. आसता. रुचीक त्यो गोडसार कोडू आसतात. ह्यो बियो फळाभितर एका आंबट अशा वेगळेच तरेच्या वासाच्या धव्या वा गुलाबी, पुडीकोराच्या चिकचिकीत पदार्थांत जळींमळीं दिश्टी पडटात.

**उगमाचो इतिहास:** कोकोच्यो रानवट जाती दक्षिण अमेरिकेंत मॅक्सिको ते पेरू ह्या वाठारांनी दिश्टी पडटात. सोळाव्या शेंकड्यांत स्पेनच्या लोकांनी हे वनस्पतीचो प्रसार केलो आनी उपरांत युरोप, मध्य आनी दक्षिण अमेरिका आनी आफ्रिकेच्या राज्यांनी कोकोचो प्रसार जालो. तेचपरी सोळाव्या शेंकड्यांत डच आनी पोर्तुगेजांनीय कोकोचो प्रसार केलो. १७९५ ते १८०० वर्सा मेरेन ईस्ट इंडिया कंपनीक लागून भारतांत कोकोची लागवड जाली. भारतांतल्या निलगिरी वाठारांत सगळ्यांत पयलीं कोकोची लागवड जाली. १९३० वर्सासावन केरळ आनी कर्नाटक राज्यांनी ताची लागवड जावंक लागली. १९७० सावन भारतांत व्हड प्रमाणांत ताची लागवड जाता. गोंयांत कांय वाठारांनी कोकोची लागवड करतात.

**पिकावळीचो वाठार:** १९८०-८१ वर्साच्या आंकड्यांप्रमाण जगांत १६८९ हजार टन कोको पिकता. भारतांत कोको सुमार २१,००० हेक्टर सुवातीत जाता आनी ताचेपसून सुमार ५००० टन कोको पिकता. कोकोची ८६% लागवड केरळांत, १४% लागवड कर्नाटक आनी तमिळनाडू राज्यांत जाता. सद्या भारतांतल्यान ८०० टन कोकोची निर्यात भायल्या देशांनी जाता.

**प्रकार आनी जाती:** आदल्या काळांत (१८२५) व्हेनेझुएला ह्या देशांतल्यान येवपी 'कारीयोलो' हे जातीच्या कोकोक बरीच मागणी आशिल्ली. उपरांत कांय वर्सांनी त्रिनीदाद ह्या देशांतल्यान कोकोची एक सुदारिल्ली जात 'फोरास्टेरो' ही वापरांत येवंक लागली. सद्या कोकोच्यो तीन मुखेल जाती दिश्टी पडटात त्यो अश्यो:

१. *क्रियोलॉस कोको:* व्हेनेझुएला, मेक्सिको, मध्य अमेरिका, कोलंबिया ह्या देशांत जावपी कोकोचो हातूंत आस्पाव जाता. हीं फळां तांबसार हळडुवीं आसून भायल्यान खरखरीत आनी धारदार आसतात.

२. *आमाझोनियन फोरास्टेरोस:* ब्राझील, अस्तंत आफ्रिका, एक्वादोर ह्या देशांतल्या कोकोचो हातूंत आस्पाव जाता. ह्या कोकोची पिकावळ 'आमाझोन' चे देगेर व्हड प्रमाणांत जाता. देखुनूच ताका 'आमाझोनियन' हें नांव पडलां आसूं येता. ह्या फळाची कात खूब घट आसता. बियो चेपट्यो आसून तांचो कोर जांबळो वा काळसर आसता.

३. *ट्रिनीटारियोस:* हे जातीचो उगम त्रिनिदाद ह्या आफ्रिकेच्या

देशांतल्यान जालो. वनस्पती वर्गीकरणांत ही एक कठीण अशी जात आसा. ही जात निबर पूण उणाक प्रतीची आसता. हालीं मेळटा ते संकरित जातींत तिचो आस्पाव आसा.

**रोवप आनी वाडोवपः** कोको हें उश्ण प्रदेशांतलें पीक जावन आसा. उश्ण प्रदेशांतल्या ८०० मी. उंचायेच्या वाठारांत तें जावंक शकता. तेचपरी सांवळी आसल्यार तें १५०० मी. उंचायेच्या वाठारांत जाता. ह्या पिकाक १५०० ते २००० इंच पावस आनी २६° ते ३२° से. तापमान लागता.

कोकोची लागवड जोमाचे बियेपसून रोप वाडोवन करतात. कोंड्याचे पांटले, पोलीथीन पोती वा जमनीचेर गादीवाफो करून बीं किल्लून काडूं येता. बीं रोयतना तें आडवें रोवचें. पोतयेंत बीं किल्लत घालतना ती पोती २० सेंमी. लांब; १३.१५ सेंमी. रुंद आनी उदक निथळपाक तिका बुराक आसूंक फाव. एका सप्तकांत बीं किल्लता आनी तीन सप्तकांनी ताका पानां फुट्टात. ४५ सेंमी. आशिल्लीं हीं ४-५ म्हयन्यांचीं रोपां पावसाच्या तेंपार रोयतात. रोपां रोयतना ३०×३० सेंमी. फोणकूल मारचें. कलमावरवीं वा गार्फां करून कोकोची लागवड करपाक जाता. कलमां लायतना ३×३ मी. हें प्रमाण लावचें.

कोकोची लागवड आंतरपीक वा हेर पीक म्हूण सुपारेच्या वा माडाच्या भाटांनी करपाक जाता. माडी वा माड अनुक्रमान ४×४ मी. आनी ८×८ मी. लावन तांचेमदीं कोको लावं येता. पयलीं दोन वर्सां ल्हान रोंपाक सांवळी दिवची पडटा. ह्या रोपांक दरेकी १०० ग्रॅ. नग, ४० ग्रॅ. स्फुरद आनी १४० ग्रॅ. पालाश अशीं सारीं घालचीं पडटात. वेळार नडणी काडप म्हत्वाचें आसता. तेचपरी १ मी. उंचायेचेर आडव्यो खांदयो कापल्यार झाडाचो आकार बरो उरता.

**उत्पन्नः** लागवडी उपरांत ३ ते ४ वर्सांनी ताका फळां लागतात. वेपारी नदरेन कोकोच्या झाडाक धा वर्सांसावन फळां मेळूंक शकतात. बरेभशेन वाडयल्लें झाड ७५ वर्सां मेरेन फळां दिवंक शकता. फळ झाडार येवन तें तयार जावंक ६-७ म्हयने लागतात. कोकोचें झाड एप्रिल-मे आनी डिसेंबर-जानेवारी अशें वर्साक दोन फावट पीक दिता. बरे जातीच्या कोकोपसून दरेकी २५०-३०० फळां मेळटात. कोकोच्या बियांची येणावळ ताची लावपाची जात, पध्दत, अंतर हांचेर आदारिल्ली आसता. दरेक हेक्टर पिकावळींतल्यान उण्यांत उणें ४०० किग्रॅ. बीं मेळूंक जाय. पूण बरी जतनाय घेवन केल्ल्या पिकापसून ६०० ते ८०० किग्रॅ. सुकयल्लें बीं मेळूंक शकता.

कोकोचीं फळां झाडावेल्यान काडल्या उपरांत तीं फोडून तातूंतल्यो बियो आनी गर एकठांय करतात. उपरांत तीं आंबोवंक (fermentation) दवरतात. क्रियोलॉस जातीच्या कोकोक आंबोवंक जावपाक तीन दीस दवरतात आनी 'फोरास्टेरो' हे जातीच्या कोकोक स-सात दीस दवरतात. हे क्रियेक लागून तातूंत आशिल्लो बुळबुळीत म्होवलो गर सुकता आनी बियो भायर पडटात. बियांचो जांबळो रंग वचून त्यो पुडी कोराच्यो जातात, ह्यो बियो वतांत सुकोवन तातूंतली ओलसाण ५.६% दवरतात. असो अदमास करतात की, १०० किग्रॅ. ओल्या बियांपसून ४०-४५ किग्रॅ. सुकिल्लीं कोकोचीं बीन्स तयार जातात. हीं बीन्स वेंचून नितळ करून जतनायेन भाजतात. तेन्ना बियांतलें तापमान १३८-१४६° से. उरता. भाजिल्ल्यो बियो रोलरांनी भड्डून तांचीं कल्लां काडून उडयतात आनी कोकोच्यो बियो भड्डून काडून बाजारांत धाडटात. बेकरी, बॅव्हरेज इंडस्ट्री आनी कन्फेक्शनरी हातूंत कोकोच्या पिठ्याचो वापर करतात.

कोकोच्या बियांनी प्रथिनां, चरबी, उदक, टॅनीन, क्रूड फायबर थायोब्रोमायन, ॲसीड आनी मॅंगनीज (Mn), जस्त (Zn), ॲल्युमिनीयम (Al), शिशें (Pb), लोखण (Fe) ह्या सारकीं जीवनद्रव्यां मेळटात. तेचपरी तातूंत कॅफीन, पॅक्टीन आनी 'ब' जातीचीं जीवनद्रव्यां आसतात.

**कोकोचे पदार्थः** तरेतरेचे पदार्थ करपाक कोको बियांचो वापर करतात. कोकोपसून केल्ले चॉकलेट, लिकर, बियर हे पदार्थ भायल्या देशांनी वापरतात. अमेरिकेंत २२%, १०-२२ % आनी १०% असो तीन तरांचो चरबी आशिल्लो ब्रेकफास्ट कोको वापरतात. भारतांत २०% चरबी आशिल्लो कोको वापरतात.

कोकोपसून पिवपाचो कोको, चॉकलेट, गोड चॉकलेट अशे पदार्थ करतात. कोकोंत आसपी चरबेक लागून तें एक शक्ती दिवपी पेय जावन आसा. ताचो वापर वखद म्हूण करतात. तेभायर कोकोचो वापर सौंदर्य प्रसाधनां, ल्यूब्रीकंट आनी हेर वखदांपासत करूं येता.

**रोग आनी उपायः** कोकोच्या 'फायटोफ्थोरा पाल्मीव्होरा' ह्या रोगाक लागून केन्ना केन्ना फुलां कुसपाक लागतात. ज्या वाठारांतल्या हवामानांत ओलसाण आसता, थंय हो रोग जावंक शकता. ह्या रोगाक आळाबंदा हाडपाक ३० लिटर उदकांत ३०-४० ग्रॅ. 'फायटोलान' हें चितोनाशक वखद घालून ताचो फवारो मारतात. तेचपरी पानां खावपी किडी, भुंगुल्ले, वायटी आनी पानांतलो रोस ओडून घेवपी बारीक किडी हांकां आळाबंदा हाडपाक किडींचो नाश करपी वखदांचो फवारो मारतात.

- एच्. आर. प्रभुदेसाय

## कोचीन (कोची)

**कोचीन (कोची)** :भारताच्या केरळ राज्यांतलें एक मुखेल बंदर. केरळच्या एर्नाकुलम जिल्ह्याचें ठाणें. लोकसंख्याः ४,८२,७२२ (१९८१). कोचीन शार मदुराइचे अस्तंतेक २०० किमी. आनी त्रिवेंद्रमचे उत्तर-वायव्येक १८६ किमी. अंतराचेर आसा. वेलिंग्डन जुंव्यावेल्या लोहमार्गपुलान तें ३ किमी. चेर आशिल्ल्या एर्नाकुलम शाराक जोडलां. कोचीन हें दक्षिण रेल्वेचें निमाणें स्थानक.

उत्तरेकडच्या वायपीन जुंव्याक तेंकून आशिल्लो रेवेंचो बांद फोडून १९३२ वर्सा कोचीन बंदर व्हडल्या दर्यांतल्यान व्हड्यांखातीर उक्तें जालें. केरळ आनी अस्तंत तमिळनाडूचे नाल्ल, काथ्याचे राजू, शेंदऱ्यो, खोबरें, रबर, च्या, गंजनाचें तेल, मिरयां, सूंठ हांची निर्यात हांगासावन जाता. आर्विल्ल्या बंदरांची सगळी वेवस्था कोचीनांत आसा. नुस्त्याचें उत्पादन, मोरी तेल प्रक्रिया, प्लायवूड, सैनिकी कापड, बार्ज दुरुस्ती, बार्जीक लागपी तेल आनी कोळसो पावोवप, हॉटेलां चलोवप हे वेवसाय हांगा वाडत आसात.

हांगा विमानतळ आनी नाविक शिक्षण केंद्र आसा. १९७२ वर्सासावन बार्ज बांदपाचो कारखानो सुरू जालो. कोचीनांत आशिल्लें मत्तानचेरी हें ३८८ सावन पोरने यहुदी वसणुकेचें केंद्र जावन आसा.

एर्नाकुलम ही पोरन्या कोचीन संस्थानाची राजधानी आशिल्ली. हांगा चडशे हिंदू आनी किरिस्तांव आसले तरी यहुदी, मुसलमान आनी शीखूय रावतात. हांगा व्हडले समांतर रस्ते, म्हाराजा आनी आर्चबिशपचे व्हडले प्रासाद, कॅथेड्रल, केरळचें उंचलें न्यायालय, दरबार हॉल, टाउन हॉल, राजेंद्र मैदान, सुभाष बोस, टिळक आनी ॲनी बेझंट उद्यान, बोटीचो धक्को अश्यो जायत्यो ओडलायण्यो सुवाती आसात. शाबू, अत्तरां, खावपाचीं तेलां, ग्लिसरीन, नळे, नाल्ल, नुस्तीं हांचेर आदारिल्ले उद्येग, केरोसीन प्रक्रिया आनी बंद डबे, लांकडाच्यो गिरणी, खनिज तेलाची शुध्दी आनी व्हडीं बांदप हे उद्येग व्हड प्रमाणांत चलतात. मसालो आनी काजू हांच्यो संशोधनसंस्था, नौसेना-वायुसेना हांचे संरक्षक तळ आनी शिक्षणीक संस्था, महाविद्यालयां आसात.

१४ व्या शेकड्यासावन नामनेक पाविल्ल्या कोचीनचो उल्लेख जोदर्नस, इब्न बतूता, चिनी आनी फारशी भोंवडेकारांच्या भोंवडेवर्णनांनी मेळटा. १५०० वर्सा काब्राल हो पोर्तुगेज खलाशी हांगा येवन गेलो. १५०२ वर्सा वास्को-द-गामा हाणें हांगा वखार घाली. वास्को-द-गामाचें थडें हांगा आसा. युरोपीयांचो भारतांतलो पयलो किल्लो, १५०२ वर्सा, आफोंस-द-आल्बुकेर्कान हांगा बांदलो. १५३० वर्सा सांत शाव्हियरान आपलें कार्य हांगाच्यान सुरू केलें. १५७७ वर्सा जेजुइतांनी देशी लिपयेंतलें पयलें पुस्तक हांगा छापलें. १५३५ त ब्रिटीश हांगा आयले, पूण १६६३ वर्सा डचांनी तांकां धांवडायले. डचांचे आमदानींत कोचीनचो वेपार वाडलो. आयज लेगीत कोचीन शारांत तेन्नाच्या डच पध्दतीचीं घरां पळोवंक मेळटात. १७७६ वर्सा कोचीन हैदरअलीच्या शेकातळा आशिल्लें. १७९५ वर्सा टिपूकडल्यान ब्रिटिशांनी तें परत आपल्या

ताब्यांत घेतलें आनी थंयची तटबंदी मोडून उडयली. १८१४ वर्सा डचांनी तें कायद्यान ब्रिटिशांक दिलें. १९३६ वर्सा हिंदुस्थान सरकारान बंदराची वेवस्था आपणाकडेन घेतली आनी कोचीन हें देशाचें मुखेल बंदर म्हूण जाहीर केलें.

कोचीनचो डच गवर्नर व्हान रीड हाणें बरोवंक लायिल्ल्या 'ओर्तूस इंदीकुस मालाबारिकुस' (Hortus Indicus Malabaricus) ह्या ग्रंथांतलें आपु भट, विनायक पंडित आनी रंग भट ह्या कोंकणी वैजांनी बरयल्लें प्रमाणपत्र देवनागरी कोंकणींत आसा.

कोचीनांत कोंकणी लोकांचें तिरूमल देवस्वाम हें धर्मसंस्थान आसा. कोचीनचो राजा आनी डच हांचेमदीं १६६३ वर्सा जाल्ले कबलार्तीत राजान आपल्या कोंकणी प्रजाजनांक राखण दितां, म्हूण उतर दिल्लें.

कांय धर्मीक कारणांक लागून कांय लोक आपल्या देव-देवतांच्यो मूर्ती घेवन १२९४ वर्सा कोचीच्या राज्याच्या मुलखांत पावले. राजाकडल्यान जमनी आनी राखणेचें उतर घेवन ते 'कोंकणस्थ महाजनम' ह्या नांवान कोचीनांत स्थायिक जाले.

कोचीन वाठारांत भोवसंख्येन कोंकणी मनीस रावतात. हे लोक चवदाव्या शेंकड्यांत वेपाराखातीर आनी सोळाव्या शेंकड्यांत पोर्तुगेजांच्या धर्मछळाखातीर गोंयांसावन कोचीन गेले. थंय ह्या लोकांच्यो बऱ्योच संस्कृतीक, शिक्षणीक आनी समाजीक संस्था वावर करतात. 'कोंकणी भाशा प्रचार सभा' आनी 'केरळ कोंकणी अकादमी' अश्यो दोन संस्था थंय कोंकणीच्या मळार वावर करतात. अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेचीं दोन अधिवेशनां (१९७८ आनी १९८६) कोचीन शारांत जाल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**कोट्टायमः** केरळ राज्यांतलें कोट्टायम हें मुखेल नगर. दक्षिण रेल्वेच्या कोचीन-त्रिवेंद्रम रेल्वेमार्गाचेर हें नगर वसलां. हांगा किरिस्तांव लोकांनी थापणूक केल्ल्यो शाळा-कॉलेजी आनी जायत्यो इगर्जी आसात. हातूंत चेरियापल्ली आनी वालीयापल्ली अश्यो दोन मुखेल इगर्जी आसात. वालीयापल्ली ही खूब आदल्या काळांतली इगर्ज. तिचेर आशिल्लें रंगकाम पळोवपासारकें आसा.

भारतांतल्या रबर उत्पादनाचें हें एक केंद्र. हांगा रबर, च्या, काफी आनी लवंगां आदींचे बऱ्या प्रमाणांत उत्पादन जाता. ह्या शारांत शिमीट आनी विटो हांचे कारखाने आसात. केरळांतल्या अलेप्पी शारांतल्यान कोट्टायमाक दर दिसा बोट-येरादारी जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**कोठारी, रामोजी सांक शेणवीः** (जल्मः ?; मरणः १६७४).

पोर्तुगेज सरकाराचो परराश्ट्रीय वकील. ताचे पूर्वज पयलीं कुठ्ठाळी गांवांत रावताले. पूण बाटाबाटीच्या वेळार ते कुठ्ठाळी सोडून दिवचल वाठारांत गेले. ताची बुदवंतकाय पळोवन पोर्तुगेज व्हिसरै काँदि द ओबिदुश हाणें ताका सगळ्यो धर्मीक सवलती दिवन गोंय शारांत हाडलो. १६४५ वर्सासावन तो पोर्तुगेज सरकाराचो परराश्ट्रीय वकील म्हूण नोकरी करूंक लागलो. डच, विजापूरकर, बेदनूरकर आनी मराठे हांच्या दरबारांत पोर्तुगेजांचो वकील म्हूण रावन पोर्तुगेजांक फायदो जावपासारकें राजकारण ताणें केलें. १६५४ वर्सा साश्टी-बारदेसचे घुरये उपरांत विजापूरकर आनी पोर्तुगेज हांचेमदीं जाल्ले कबलातींत कोठारी हाणें वांटो घेतिल्लो. १६६१ वर्सा विजापूरचो सरदार रुस्तुम जमान हाचेकडेन वाटाघाटी करपाखातीर तो फोंड्या म्हालांत गेलो. १६६७ वर्सा शिवाजीन बारदेस वाठाराचेर घुरी घाली. उपरांत जी कबलात जाली तातूंत वांटो घेवपाक पोर्तुगेजांचे वतीन कोठारी रायगडाक गेल्लो. पोर्तुगेज व्हिसरैन पोर्तुगालाक धाडिल्ले एके चिटयेंत रामोजी कोठारीची खूब तोखणाय केल्या. ताचो चलो रघुनाथ रामोजी शेणवी उपरांत पोर्तुगेज सरकाराचो परराश्ट्रीय मंत्री जालो.

- कों. वि. सं. मं

**कोड (Vitiligi):** (पळेयात कात-२).

**कोडूलिंबः** (मराठी- कडुलिंब, कुडुनिंब; कन्नड-बेड; संस्कृत-पारिभद्र; लॅटीन-आझादिराश्ता ईंदिका, कूळ- मेलिआसीए).

कोडुलिंबाचें झाड १२ ते १८ मी. मेरेन वाडटा. कांडाचो घेर १.८ ते २.४ मी. आसता.

कोडुलिंबाचें झाड फातराळ जमनींत भेस बरें जाल्ल्यान, भारतांत ताची लागवड दुकळ पडपी वाठारांत करतात. शेताचो बांद आनी रस्त्याचे कडेक हीं झाडां रोयिल्लीं दिसतात. गोंयांत हीं झाडां चड दिश्टी पडनात.

कोडुलिंबाची लागवड बियांसावन करतात. सुरवातीक झाडापोंदच्यो बियो एकठांय करतात. त्यो बियो प्लास्टिक पोतयांनी घालून रोंपयो तयार करतात. रोंपयांची उंचाय ४ ते ५ इंच जातकच रोंपयांची पर्धून लागवड करतात. झाडाच्या कांडांक येवपी फांगूर लागवडीखातीर वापरूं येतात. कोडुलिंबाची व्हड प्रमाणांत लागवड करपाची आसल्यार ५०×५०×५० सेंमी. आकाराचीं फोंडकुलां मारून ४×४ मी. अंतर दवरून लागवड करतात. ह्या झाडाक ३ ते ५ वर्सांनी फळां लागतात. १५ वर्सां पिरायेच्या झाडासावन ४०० किग्रॅ. बियो आनी ३५० किग्रॅ. पानां मेळटात.

कोडुलिंबाचें झाड खूब उपेगी आसा. ह्या झाडाच्या दरेक भागाचो उपेग जाता. झाडाचो दरेक भाग कोडू आशिल्ल्यान, ताचो घरगुती वखद करपाखातीर चड वापर जाता. बोकडां, मेंढरां आनी ऊंट ह्या जनावरांचें खाण म्हूण ह्या पानांचो वापर करतात. झाडाचे बियेच्या गरांत 'ॲसडिरॅक्टीन' नांवाचें तेल आसता. तें कीडनाशकां तयार करपाक वापरतात. ह्या तेलासावन कांय प्रसाधनांय तयार करतात. बियांचें तेल काडून उरिल्ली पेंड सेंद्रिय सारें म्हूण वापरतात. ही पेंड युरिया साऱ्यावांगडा पिकांक दिल्यार २५ ते ३० टक्के साऱ्याची बचत जाता. झाडाचे सालींत 'टॅनीन' नांवाचें तेल आसता. त्या तेलांसावन कीडनाशकां तयार करतात. हें तेल शाब्बाच्या कारखान्यांनी वापरतात. सालींतल्या अर्कासावन दांत घांसपाच्यो पेस्टी तयार करतात. सालींत आशिल्लें टॅनीक ॲसीड चामडें कमावपाक वापरतात. झाडाचें लांकूड विंगडविंगड फर्निचर, शेतवडीचीं अवजारां आनी जळवाखातीर वापरतात. हालींच कोडूलिंबाच्या जायत्या गुणधर्मांचो सोद लागला. ताका लागून ह्या झाडाचें म्हत्व वाडलां.

हिंदू धर्मांत, हिंदू पंचांगाप्रमाण नव्या वर्साचो आरंभ संवसारपाडव्याक म्हळ्यार चैत्रप्रतिपदेक सुरू जाता. ह्या दिसा न्हावन-धुवन कोडुलिंबाचीं पानां वा कोडुलिंबाचो रोस पिवपाची पध्दत आसा. हो रोस पिल्याउपरांत मागीर गोड-धोड खातात. वर्साची सुरवात कोडू आनी गोड खावन केली म्हण्टकच जिवीत परिपूर्ण जावंक पावता असो समज आसा.

- विश्राम गांवकार

संदर्भः १. The Wealth of India (Raw Materials) Vol. 1-A, Delhi, Council of scientific & Industrial Research (1985). २. धुमाळ, विश्वास; शेतकरी मासिक पुणे, शेती संचालनालय, १९८७.

**सांस्कृतिक संदर्भः** ह्या झाडांत रोग आनी पिशाच्च हांची बाधा ना करपाचें बळगें आसा, अशें म्हण्टात. संवसारपाडव्या दिसा कोडुलिंबाचीं पानां खावपाची चाल आसा. हें झाड कापप म्हळ्यार एकाद्रे तरणाटे चलयेची हत्या करपाइतलें अशुभ समजतात. ग्रामदेवतेचे पुजेंत कोडुलिंबाचे ताळयेक खूब म्हत्व आसता. मांत्रिक लोक विंचू, सोरोप हांचें वीख काडपाक हे ताळयेचो उपेग करतात. देवी, कांजीण असल्या रोगांची लागण जाल्यार पिडेस्ताच्या हांथरुणावयर कोडुलिंबाची खांदी बांदतात. वायटकाराक न्हाण घालतना उदकांत कोडुलिंबाचीं पानां घालतात. घर बांदतना एकाद्र्या दाराची वा जनेलाची फास्की कोडुलिंबाच्या झाडाची बसयल्यार त्या घरांत कोणाकूच भूतबादा

जायना, असो समज आसा. गांवगिन्या वाठारांतल्यो बायलो कोडुलिंबाच्यो खांदयो न्हेसून देवीक प्रदक्षिणा घालपाची आंगवण करतात. ब्रह्मचारी आनी योगी कोडुलिंबाचीं पानां खावन रावतात.

- कों. वि. सं. मं.

**कोथमीरः** (मराठी- कोथिंबीर; हिंदी- धनिया; गुजराती- कोनफिर; कन्नड- कोथंब्री, कोतुंबरी; संस्कृत- धान्यक, कस्तुंबरी, अल्लका; इंग्लीश- कॉरिअँडर; लॅटीन- कोरिअँड्रम सॅटायव्हम; कूळ- अंबेलिफेरी). ही वखदी वनस्पत भारतांतल्या सगळ्या वाठारांनी लागवडीखाला हाडटात. ही वनस्पत मूळची दक्षिण युरोप आनी आशिया मायनर ह्या वाठारांतली आसून युरोप खंडांत पूर्विल्ल्या काळासावन तिची लागवड करतात. मध्य उदेंत आनी ग्रीस ह्या वाठारांतूय ती पयलींसावन मेळटा. आदल्या काळांत भारतांतल्यान कोथमिरेची निर्यात जाताली. पूण हालीं रशिया, हंगेरी, युगोस्लाव्हिया, मोरोक्को ह्या सारकिल्या जायत्या देशांनी तिची लागवड जाल्ल्यान भारतांतसून निर्यात जायना.

ही वनस्पत एक वर्सभर उरूंक शकता. तिची उंचाय सुमार ४०-४५ सेंमी. तिचें काड पोकळ आसता. पानां दोन तरेचीं आसतात, वयलीं पानां ल्हान देंठांचीं, पांखासारकीं आनी वेगळायल्लीं आसतात. मूळचीं पानां लांब देंठांचीं, मात्शीं पांखासारकीं, चड दलां आशिल्लीं आसतात आनी ताचो तळ देंठाक गुटलायल्लेवरी आसता. नोव्हेंबर- डिसेंबर ह्या म्हयन्यांत धवीं वा मात्शीं निळशीं, एकसंघ तुऱ्याचेर ल्हानल्हान घोंसांनी फुलां येतात.

हे वनस्पतीचें फळ (कोथमीर) मात्शें वाटकुळें, दोन धांपणी जावपी आसून ताचेर उब्यो वळी आसतात. ताचें कांड, पानां आनी फळां हांकां उग्र वास येता. जेवणांत आनी मसाल्यांत कोथमिरीचो उपेग करतात. वासाखातीर आनी वायुचो नाश करपी म्हूण आदल्या काळार वखदांत तिचो उपेग करताले. कोथमिरेंत 'कॉरिअँड्रॉल' हें उडून वचपी तेल आशिल्ल्यान जेवणाखाणांत तिका बरें म्हत्व आसा. कोथमिऱ्यो उत्तेजन हाडपी, मूत निवळ करपी, वायुचो नाश करपी, पुश्टीक, भूक वाडोवपी आनी कामोत्तेजक आसतात. पोटांतल्यो कळो आनी रक्ती मूळव्याध हांचेर कोथमिऱ्यांचो काडो दितात. त्यो शितळ आशिल्ल्यान गर्मेच्या दिसांनी थंडसाण मेळपाक जिऱ्यावांगडा शिजोवन तें उदक पिवपाक दितात. तशेंच दोळे चुरचुरल्यार कोथमिरेचें उदक दोळ्यांक लायल्यार थंडसाण मेळटा.

**लागवडः** हें पीक चडशें उश्ण प्रदेशांत जाता. भारतांत उदक शिंपून वर्सांतल्यान केन्नाय ताचें पीक काडटात. कोथमिरेक बरी काळी आनी निचऱ्याची जमीन लागता. मे-जून वा ऑक्टोबर अशा दोन हंगामांत ह्या पिकाची लागवड करतात. पेरणी करपाचे वळींत २२-३० सेंमी. अंतर दवरून दर हेक्टराक १५-२० किग्रॅ. बीं पेरतात. उपरांत ९-१० दिसांनी बियांक कोंब फुटतात. कोंब फुटून रोंपे वयर येतकच तांची जतनाय घेवंक सुरवात करतात.

ह्या पिकाक सारें दिनात. पूण दर हेक्टराफाटल्यान स-सात टन शेणखत दिल्यार पिकाची वाड चड बरी जावं येता. कोथमिरेचे उत्पादन वाडीखातीर दर हेक्टराक २५ किग्रॅ. नायट्रोजन (अमोनियम सल्फेटाच्या रुपांत) ह्या प्रमाणांत रसायनीक सारें दिल्यार, उत्पन्न बरें जाता. साडेतीन ते चार म्हयन्यांत कोथमिरेचें पीक तयार जाता. ताचीं पानां झडूंक लागतकच तीं झाडां हुमटून काडटात आनी दोन-तीन दीस वतांत सुकयतात. उपरांत खळार ताची मळणी करून कोथमिऱ्यो फांफडून, निवळ करून सुकोवन दवरतात.

**कोथमिरेचो पालोः** कोथमिरेच्यो बियो किल्लत घाल्या उपरांत तांकां कोंब फुटून जेन्ना रोंपे वयर येतात, तेन्ना तांकां फुलां येवचेपयलीं तीं झाडां हुमटून ताच्यो चुडयो बांदून बाजारांत विकपाक व्हरतात. कोथमिरेच्या पाचव्या पाल्यांत 'अ' जीवनसत्त्व भरपूर आसता. जेवणाखाणाच्या आनी मसाल्याच्या पदार्थांक बरो वास येवपाक कोथमिरेच्या पाल्याचो उपेग करतात.

कोथमिरेच्या रोंप्यांक भुरी, कांडावेली गांठ, करपा आनी मर ह्या रोगांची लागण जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**कोबीः** (मराठी- कोबी; हिंदी- बंद गोबी; गुजराती- पानकोबी, कोब्जी; कन्नड-कोबीगड्डी; इंग्लीश-कॅबेज; लॅटीन-ब्रॅसिका ओलेरेसिया; कूळ- बासिकॅसी (क्रुसिफेरी) ).

कोबी हो कॉलीफ्लावर (फूलकोबी) क्नोलकोहल आनी ब्रोकोली हांचेच जातींत मोडटा. कोबीचे लागवडीखाल आशिल्ले प्रकार द्विवर्सुकी आसात (बी ते बी मेरेनचो जीवनकाळ पुराय जावपाक दोन हंगाम लागतात). कोबीक सांगो जातात. दरेक सांगेक ४ ते ५ बियो आसतात. ह्यो बियो तांबश्या रंगाच्यो आसून वाटकुळ्योच सांसवांभशेन आसतात. सादारणपणान कोबी भाजयेखातीर वापरतात; ताका लागून तो जून जावंचे पयलीं काडटात, देखून ताका फूल येवपाक पावना. पूण बीं जाय जाल्यार कोबी राखून दवरचो पडटा. अशा राखून दवरिल्ल्या कोबीचीं पानां पाचवीं जातात. तीं कवळिल्लीं नासतात. ताका लागून कांड लांब जाता. ह्या कांडाक मागीर फुलां येतात. हीं फुलां धवीं आसतात. ह्या फुलांक सांगो जातात आनी सांगांक बियो जातात. ह्या बियांचो उपेग फकत नवी लागवड करपाखातीरूच जाता.

**उत्पत्तीः** कोबी मूळ युरोप खंडांतलो. रानवट कोबी आयर्लंड, डेन्मार्क आनी चॅनल जुंव्यांच्या फातराळ देगांनी दिश्टी पडटा. प्लिनी आनी थियोफ्रॅस्टस हांणी आदल्या काळांत धर्तरेचेर आशिल्ल्या कोबीच्या अस्तित्वाचो सोद लायला. त्यावेळार कोबीक कावलीस (लॅटीन), कोली (प्राचीन जर्मन), कॉल (ब्रितॉ) आनी काल (डॅनीश) ह्या नांवान वळखताले.

**खाशेलेपणः** कोबीचो गड्डो ही हे वनस्पतीची मोठी कळी, मांसाळ पानांनी भरिल्ली आसता. ही कळी म्हळ्यार गड्डो, कोबीच्या मध्यभागांत आसता. ह्याच जाग्यार ताची पुराय वाड जाता. ३०° से. परस चड आनी ०° से. परस उणें तापमान आशिल्ल्या हवामानांत कोबीची उत्स्फुटन प्रक्रिया (bolting) योग्य रितीन जायना. कोबीक प्रधान मूळ वेवस्था (tap root system) आसता.

कोबीचे भाजयेची वा वनस्पतीची वाड जातासतना ५-६ सप्तकां जर तापमान १०° से. सकल देंवलें, तर फुडल्या गिमाक ताका फुलां येतात. ताची बीज पेटिका (siliqua) ५ ते १० सेंमी. लांब, सपाट आंग आशिल्ली, बारीक चोंचीवरी आसता. बी, ल्हान, वाटकुळी आनी काळपट मातयेकोराची आसता.

**प्रकारः** पानांचो आकार, रंग तशेंच गड्ड्याचो आकार, रंग आनी घटसाण हाचेवेल्यान कोबीचे प्रकार थारतात.

*१. वाटकुळो गड्डोः* प्राइड ऑफ इंडिया, गोल्डन एकर, कोपनहेगन मार्केट *२. पसरट गड्डोः* पुसाड्रमहेड *३. शंखाकार गड्डोः* जर्सी वेकफिल्ड *४. सॅव्हॉय चीफ्टन वाटकुळे गड्डेः* ६० ते ८० दिसांभितर पुराय जातात. तर हेर गड्ड्यांक १०० वयर दीस वतात.

**उपेगः** कोबीचो उपेग दिसपट्टे जीणेंत, भाजी, सालाद, लोणचें, सूप सारकिले पदार्थ करपाक करतात.

**घटकः** कोबीभितर फुडलीं घटकद्रव्यां आस्पावतातः उदकः ९०.२%, प्रथिनांः १.८%, वसा (स्निग्ध पदार्थ) ०.१%, तंतूः १.०%, कार्बोहायड्रेटांः ६.३%, खनिजद्रव्यांः ०.६%, कॅल्शियमः ०.०३% आनी फॉस्फरसः ०.०५%.

कोबीचे कुडके आंबोवन आनी थोडें मीठ घालून 'सावरक्राउट' नांवाचो जिनस करतात. गोरवां आनी कुकडांचे खावडीखातीरूय कोबीचो उपेग करतात. कोबी ०° से. तापमानांत ४ म्हयने सांबाळून दवरूं येता. कोबींत क, $ब_2$, $ब^1$ आनी अ हीं जीवनसत्वां तशेंच जायतीं खनिजां मेळटात.

**लागवडः** कोबी हो शिंया दिसांनी जावपी भाजयेचो प्रकार. १५° ते २०° से. तापमानांत ताची वाड योग्य रितीन जाता. नर्सरींत ही भाजी

रोवपाखातीर ८ मी. × १ मी.× १५ सेंमी. (२५'×४'×६'') ह्या आकाराचे वाफे करतात. ह्या वाफ्यांक ३० किग्रॅ. शेणगोबराचें सारें (compost) आनी ०.५ किग्र. नत्र, स्फूरद, पॉटॅशाचें मिश्रण आशिल्लें सारें (NPK, Complex fertilizer) दितात. सुमार ८५० ग्रॅ. ते १ किग्रॅ. बीं वयलेतरेच्या पंदरा वाफ्यांनी लायतात. रोवचेआदीं बियांचेर मर्क्युरी क्लॉराइडाची प्रक्रिया करतात. बीं मातयेंत मेळोवन वयर तणान धांपतात. ताचेर दिसाक दोन फावट उदकाचो शिंवर मारतात.

मातयेवांगडा भरसण केल्लें २५ ते ३० टन सारें दर हेक्टराक दितात आनी ४५ सेंमी. खांच दर एके वळीमदीं दवरतात. उपरांत ७५ किग्रॅ. नायट्रोजन, १०० किग्रॅ. फॉस्फरस आनी १५० किग्रॅ. पॉटॅश जमनीक दितात.

चार सप्तकांनी बियांक कोंब येतात. सादारण एका म्हयन्यांत तण काडून उडोवन रोंपे हुमटावन विस्कळ म्हळ्यार १ फूट अंतर दवरून रोयतात. दिसांतल्यान एक फावट उदकान शिंपतात. चार सप्तकांनी ७५ किग्रॅ. नायट्रोजन रोंप्यांक दितात.

**उत्पादनाचो वाठार आनी क्षेत्र:**

| | वाठार (हजार हेक्टराक) | उत्पादन दर (हजार मेट्रीक टन) |
|---|---|---|
| १. आशिया | ८१० | १३,०९० |
| २. रशिया | ३८० | ८,७०० |
| ३. युरोप | ३३२ | २६,०२३ |
| ४. अमेरिका | ११६ | २,४०० |
| ५. आफ्रिका | २५ | ६२१ |
| ६. ओशिॲनिया | ४ | १०१ |

रशिया, चीन, जपान, पोलंड आनी अमेरिका ह्या देशांनी कोबीचें उत्पादन चड प्रमाणांत जाता.

आशिया खंडांत युरोप खंडापरस अडेच पट जमीन कोबीचे लागवडीखाल आसा. पूण उत्पादन मात युरोपाच्या कोबी उत्पादनाच्या अर्दान जाता. आशिया खंडांत जपान कोबीच्या उत्पादनांत तशेंच प्रती हेक्टर उत्पादनांत मुखार आसा.

भारतांत कोबीचें पीक, गरम हवामानाक लागून वर्साक एकूच फावट घेतात. दखखन वाठारांत मात वर्साक दोन ते तीन पिकां घेतात.

**रोग आनी उपाय:** किडीचो रोग: प्लुटेला मॅक्यूलिपिनीस (caterpillars of Diamond back moth) आनी कॅबेज सेमी लूपर कोबीचीं पानां खातात. ह्या वेळार कोबीचें पीक काडचे एक सप्तक आदीं इंडोसल्फन वा मालाथियोन हाचो फवारो मारतात. (प्रमाण: १ लिटर उदकांत १.५ मि. लिटर वयले खंयचेय रसायन).

*काळो जीव:* (ॲथलिया प्रॉक्सिमा) हे किडीची लागण ऑक्टोबर-मार्च म्हयन्यांत जाता. तेखातीर पायरेथ्रमाचो फवारो मारतात.

*रंगीत थिपक्यांचे जीव:* (ब्रॅगेंडा पिक्टा) हो जीव पानांतलो रोस ओडून घेता ताका लागून झाडाचीं पानां हळडुवीं पडटात. ह्या जिवाचो बंदोबस्त करपाखातीर १०% बी. एच. सी. चो फवारो मारतात.

*झॅथोमोनस कॅंपेस्ट्रिस:* हो रोग सूक्ष्म जंतूंक लागून जाता. ताचो प्रसार बियांक लागून जाता. ह्या रोगाचो बंदोबस्त पयलींच करचेपासत, बियांचेर जलविद्राव्य (उदकांत विरगळपी) पारायुक्त कवकनाशकाची २५-३० मिनटां प्रक्रिया करतात. तशेंच बियांचेर २५ ते ३० मिनटां ५०° से. तापमानाचेर उश्णजल प्रक्रिया करतात. ह्या उपायाउपरांतूय रोगाची लागण दिसल्यार पिकाक चड उण्या प्रमाणांत उदक दितात. हो रोग खर आसल्यार कोबीचे गड्डे जायनात.

- मिगेल ए. ब्रागांझा

**कोमुनिदाद:** गोंयच्या थळाव्या ग्रामसंस्थांक 'कोमुनिदाद' ह्या पोर्तुगेज नांवान वळखतात.

डॉ. व्ही. टी. गुणे हाच्या मतान पोर्तुगेज गोंयांत येवचेआदीं कितलेशेच शेंकडे, ह्या वाठारांत स्वायत्त प्रशासकीय ग्रामसंस्था पोर्तुगेज कायद्यांत 'गांवकारीयास' (Gauncarias) 'गांवकारीया' (Gaoncaria), कामर आग्रारिय (Cimara Agraria) आनी कोमुनिदाद म्हण्टाले.

एस्. आर्. फळ हाच्या मतान कोमुनिदाद ही फकत शेतकी संस्था वा संघ न्हय. तिका एक समाजीक आनी अर्थीक वेगळेपण आसून, एक खास कायदेशीर अस्तित्व आसा. कोमुनिदादीक मुळावे, नगरपालिका आनी न्यायीक कायदे चालीक लावपाचो अधिकार आसता. धर्मीक समारंभाचो खर्च भागोवप, भौसाक शिक्षण आनी हेर आदार दिवप, सगळे तरेचीं झगडीं-झुजां मिटोवप, आपले कक्षेंत येवपी गुन्यांवकारांक ख्यास्त करप हीं हे संस्थेचीं कर्तव्यां आसात.

डॉ. जे. सी. आल्मैदा हाच्या मतान कोमुनिदाद ही एक शेतकी संस्था. हे संस्थेचे वांगडी गांवचे मूळ गांवकार आसताले. ह्या सगळ्या गांवकारांची शेतवड सगळे वांगडी एकठांय पिकयताले आनी ह्या शेताच्या धंद्यांतल्यान जावपी फायदो आनी लुकसाण थारायिल्लेप्रमाण वांटून घेताले.

कोमुनिदाद हें उतर मूळ पोर्तुगेज भाशेंतल्यान आयलां. पोर्तुगेज भाशेंत ह्या उतराचो अर्थ 'जमात' वा 'समाज' असो जाता. कोमुनिदाद हे ग्रामसंस्थेचे उत्पत्तीविशीं सारकी म्हायती मेळना.

जे. सी. आल्मैदाच्या मतान कोमुनिदादीची सुरवात गोंयांत केन्ना आनी खंय जाली हें सांगप बरेंच कठीण आसा. पूण दुभावविरयत संस्था क्रिस्ताआदीं कितलींशींच शतमानां मनूच्या काळांत घडल्यात. कोमुनिदादी संबंदीचें एक पोरनें कागदपत्र 'फोराल द ऊझुश इ कांश्तूमिश दुश गावकारिश इ लाव्रादोरिश दश इल्यश द् गोअ' (Foral de usos e costumes dos Gaoncares e Lavradores das Ilhas de Goa). तें १६ सप्टेंबर १५२६ त उजवाडाक आयलें, तातूंत कोणूच कोमुनिदादीचें मूळ सांगूक शकना अशें म्हळां. गोंयच्या लोकसमाजाचो नियाळ घेतना कार्मु आझाव्हेद म्हण्टा, 'कोमुनिदादीचें मूळ भूतकाळांत शेणलां.' गोवा लॅण्ड रिफॉर्मस् कमिशनाच्या १९६४ मतान, कदंब राजवंश, मुसलमानी सत्ताधीश मलीक हुसेन आनी ताचो चलो सबाय दिलखान आनी निमाणें पोर्तुगेजांनी गोंयचेर राज्य करचेआदीं कितलेशेच शेंकडे, अस्तंत घाटावेल्यान कितलींशींच घराणीं, सेगीत चलपी झुजां, दुकळ ह्या विंगडविंगड कारणांक लागून आपलो मूळ गांव सोडून गोंयांत आयलीं. गोंयांत आयिल्ल्या घराण्यांनी स्वताच्यो संस्था घडयल्यो. घरचो मुखेल ह्या संस्थांचो मुखेल आसतालो. त्या काळांत तांकां 'गांवकार' (Gaoncares) ह्या नांवान पाचारताले. ह्या गांवकारांनी उपरांत गांवची उदकाळ आनी पिकाळ जमीन तशेंच गांवची पडीक जमीन पिकावळीखाला हाडली. जमनीचेर आदारिल्ले लोक तशेंच नोकर-चाकर, हांकांय शेतपिकावळीखाल हाडपाच्या वावरांत आस्पावन घेतले. अशेतरेन शेतां एकठांय रोवन, तातूंतल्यान मेळपी उत्पन्न सगळेजाण वांटून घेताले.

सर हेन्री मेन हाच्या मतान स्वायत्त, स्वताची भूंय आशिल्ल्यो ग्रामसंस्था भारतांत हेर कडेन आपलो वावर चलयतात, हें इतिहासीक म्हत्व मतींत दवरून, अशा ग्रामसंस्थांचो अणभव घेतिल्ल्या अस्तंत घाटावेल्या लोकांनी कोमुनिदादीचें मुळावण गोंयांत घालें.

भायल्या संवसाराकडेन आयिल्ल्या संबंदांक लागून कोमुनिदादींतूय जायते बदल आनी सुदारणा घडल्यो. सुर्वेच्या दिसांनी कोमुनिदाद ही समाजीक, राजकी आनी शेतकी संस्था आसली. इगर्जी आनी देवळाच्या अंतर्गत कामाचोय आस्पाव जातालो. सादारणपणान सद्याचे ग्रामपंचायतीचीं खाशेलेपणां तातूंत आस्पावल्लीं. काळांतरान ती मुळाव्या हकदाराची एक संस्था वा सोसायटीभशेन जाली आनी तिचें मूळ रूप ना जालें. गांवाभायले लोक जे ह्या वाठारांत येवन सासणाचे रावपाक लागले, तांकां हे संस्थेचें वांगडीपण मेळनासलें. वांगडीपण मूळ वांगड्यांपुरतें मर्यादीत आसलें. बऱ्याच वर्सांउपरांत कोमुनिदादीच्या कायद्यांत सदळसाण आयली जेवखीं, मूळ वांगडी (आकसांवकार) वा संस्थेचो शेअरधारक आपले शेअर (आक्सांव accao) हेरांक विकपाक

शकतालो. अशे तरेन कोमुनिदादीचें वांगडीपण एका नांवावेल्यान दुसऱ्या नांवाचेर बदलप शक्य जालें.

मैमीक संकश्टाक लागून आनी थळाव्यो गरजो भागोवपाक जेन्ना कोमुनिदादीक दुडवांची गरज लागताली, तेन्ना ह्यो संस्था सावकाराकडेन रीण काडटाल्यो. अशा सावकाराक कोमुनिदादी आक्सांवां (accoes) वा शेअर दितात्यो. हीं आक्सांवां वा शेअर दुसऱ्याच्या नांवान बदलपाक मेळटाले. कोमुनिदादीच्या मूळ वांगड्यांक (Joneiros) आसपी हक्क आनी अधिकार तांकां फाव जाताले. कोमुनिदादीचे वयले कार्यपध्दतीक लागून दोन तरेच्या वांगड्यांचो वर्ग ह्या संस्थांनी तयार जालो. पयलो वर्ग जणकारांचो (Joneiros) आसलो. मूळ गांवचो गांवकार जेन्ना कोमुनिदादीन घाल्ली थारावीक वर्सांची पात्रताय पुराय करतालो, तेन्ना ताका कोमुनिदादीचें वांगडीपण मेळटालें. वांगडीपण फकत दादल्यांक फाव जातालें आनी वांगडीपणाखातीर आशिल्ली वर्सांची पात्रताय दर कोमुनिदादींत वेगळी आसताली. अशा ह्या जाणकाराक कोमुनिदादीच्या वर्सुकी येणावळींतलो कांय वांटो फाव जातालो. हाका 'जण' म्हण्टाले. जणकाराचे हक्क आनी अधिकार व्यक्तीगत आसले. ते दुसऱ्याच्या नांवार बदलपाक मेळनासले. कोमुनिदादीच्या दुसऱ्या वर्गाच्या वांगड्यांक आक्सांवकार वा शेअरधारक म्हण्टाले. तांचे शेअर कायदेशीरपणान नोंद केल्ले आसताले. हे शेअर दुसऱ्याच्या नांवार बदलपाक मेळटाले. कोमुनिदादीच्या वर्सुकी निव्वळ येणावळींतलो वांटो लाभांश (dividend) तांकां फाव जातालो. तेभायर १७७५ वर्सा पोर्तुगेज सरकारान, गोंयांत कोमुनिदादीचे पध्दतीन प्रभावीत जावन ही संस्था समाजाच्या तळा-गाळांत पावची म्हूण यत्न केल्ले, हें 'गोंय, दमण, दीव सरकाराच्या टेक्नो इकोनोमिक सर्व्हे ऑफ गोवा, दमण, दीव'- (१९६४) वेल्यान कळटा.

**गोंयच्यो कोमुनिदादीः** गोंयांत सगळ्यो मेळून २२४ कोमुनिदादी आसात. गोंयची ५०,७५० हेक्टर जमीन वा १४% जमीन कोमुनिदादीकडेन आसा. ही जमीन चडांत चड भातपीक घेवपाखातीर वापरतात. गोंयांत म्हालवार कोमुनिदादीचो आंकडो फुडलेतरेन आसा. तिसवाडी (गोंय) ३१, साश्ट-४०, बारदेस-४०, मुरगांव-१४, फोंडें-२८, दिवचल-२१, पेडणें-१२, केपें-२४, सांगें-६, काणकोण-६ सत्तरी-२.

**तिसवाडींतल्यो कोमुनिदादीः** तिसवाडी म्हालाचो पुराय आवांठ १६,६१२ हेक्टर तातूंतलें १२,६६३ हेक्टर क्षेत्र पिकावळीखाल आसा. पिकवळीखाल आशिल्ल्या पुराय वाठारांतली ४४.९% सुवात कोमुनिदादीकडेन आसा. हातूंतल्या ३,५५५ हेक्टर वाठारांत भाताचें पीक, १,२२३ हेक्टर वाठारांत काजूझाडां, २४ हेक्टर वाठारांत माड आसात. ९८९ हेक्टराचो वाठार पडंग आसा. पुराय म्हालाच्या वट्ट भात पिकांतलें ५५.५% उत्पादन कोमुनिदादीचे जमनींत जाता. काजू आनी नाल्लांविशीं हें प्रमाण ७१% आसा. बांबोळेची कोमुनिदाद, आवांठान सगळ्यांत व्हड आसून, तातूंत काजूचें पीक व्हड प्रमाणांत येता. कोमुनिदादींत भाताचें पीक व्हड प्रमाणांत जाता, तशेंच ही कोमुनिदाद ह्या म्हालांत सगळ्यांत गिरेस्त आसा. म्हालांतले कोमुनिदादींचे वट्ट येणावळींतली ५५% येणावळ नेवरा उ ग्रांदि, चोडण, कालापूर आनी करमळेचे येणावळींतल्यान जमता.

**साश्ट म्हालांतल्यो कोमुनिदादीः** साश्ट म्हालाचो पुराय आवांठ २७,७१९ हेक्टर आसा. तातूंतली २३,०२५ हेक्टर जमीन पिकावळीखाल आसा. पुराय म्हालांत ४० कोमुनिदादी आसात. कोमुनिदादीचे वट्ट जमनींतली, ५,३३७ हेक्टर जमीन भाताचें पीक घेवपाखातीर वापरतात. हें पीक दोन हंगामांत घेतात, पावसाच्या हंगामांत ३,७३३ हेक्टर जमनीचो तर गिमांत २,७०० हेक्टर जमनीचो भाताचें पीक घेवपाखातीर उपेग जाता. भाताच्या पिकाचें सरासरी उत्पादन दर हेक्टराक १८ खांडी इतलें आसा. कोमुनिदादीचे सगळे मेळून १०,३०२ प्लॉट आसात, आनी दरेक प्लॉटान ४,००० चौ. मी. जागो आडायला. मडगांव आनी कुडतरेच्यो कोमुनिदादी साश्ट म्हालांत येणावळ तशेंच भाताच्या पिकाच्या उत्पादनाचे नदरेन सगळ्यांत व्हड आसात.

**बारदेस म्हालांतल्यो कोमुनिदादीः** बारदेस म्हालाचो पुराय आवांठ २६,८४० हेक्टर आसा. तातूंतलो २१,०३७ हेक्टर वाठार पिकावळीखाल येता. म्हालांतल्या ४० कोमुनिदादींच्या ताब्यांत ८,३२३ हेक्टर वाठार आसा. तातूंतल्या ३,७१४ हेक्टर वाठारांत भाताचें पीक घेतात. २,०९१ हेक्टर वाठारांत पावसाळ्यांत, खाजन पध्दतीन पीक घेतात तर गिमाळ्यांत ३,०७१ हेक्टर वाठारांत भाताचें पीक जाता. दर हेक्टराचें सरासरी उत्पादन २० खांडी इतलें आसा. म्हालांतल्या वट्ट भाताच्या पिकांतलें ५५.७% उत्पादन कोमुनिदादीच्या वाठारांत जाता. भाताच्या पिकाखाल आशिल्लो वाठार ९८.७० प्लॉटांत वांटिल्लो आसून, तातूंतल्या ३,४५९ प्लॉटाचो वाठार दरेकाक ४,००० चौ. मी. इतलो आसा. काजूचें पीक ३,२३२ हेक्टर वाठारांत घेतात. म्हालाच्या वट्ट काजू उत्पादनांतलें ५५% टक्के उत्पादन कोमुनिदादीच्या वाठारांत जाता. येणावळीविशीं सेरूलाची कोमुनिदाद सगळ्यांत गिरेस्त आसा.

**मुरगांव म्हालांतल्यो कोमुनिदादीः** मुरगांव म्हालाचो पुराय आवांठ ७,८३१ हेक्टर आसा. तातूंतलो ५६% वाठार पिकावळीखाल आसा. पिकावळी खाल आशिल्ल्या वट्ट वाठारांतली ५९% सुवात कोमुनिदादींकडेन आसा. ही सुवात १४ कोमुनिदादींभितर वांटल्या. भातपिकावळीखाल ९४२ हेक्टर वाठार येता. हेर पिकावळीखाल आशिल्लो वाठार आनी पडंग जमीन मेळून १,६१० हेक्टर वाठार कोमुनिदादींकडेन आसा. भाताच्या पिकाचे नदरेन कुठ्ठाळी, कुयेली आनी आरोसीची कोमुनिदाद म्हत्वाची आसून तांचेकडेन अनुक्रमान ४१९ हेक्टर, ११४ हेक्टर, १०२ हेक्टर वाठार आसात. केळशी, दाबोळी, सोर्सीम कोमुनिदादींतल्या वाठारांत भाताच्या पिकाचें सरासरी उत्पादन अनुक्रमान २९, २४ आनी २१ खांडी इतलें आसा. म्हालांत १,३२२ प्लॉट आसात. प्लॉटाचो आवांठ ४,००० चौ. मी. आसा.

**फोंडें म्हालांतल्यो कोमुनिदादीः** फोंडें म्हालाचो पुराय आवांठ २५,२२९ हेक्टर आसा. तातूंतलो २२,८४४ हेक्टर वाठार पिकावळीखातीर फावशी आसा. पिकावळीखातीर फावसो आशिल्लो ३५% वाठार (७,९८५ हेक्टर) कोमुनिदादींकडेन आसा. हो वाठार २८ कोमुनिदादींभितर वांटला. वट्ट वाठारांतली ५,७८० हेक्टर सुवात पडंग, तर १,१७४ हेक्टर सुवात नापीक आसा. फकत ६८० हेक्टर वाठार भाताचे पिकावळीखाल आसा. पावसांत ३१२ हेक्टर वाठारांत, गिमांत १२ हेक्टर वाठारांत, वयल्या दोनूय हंगामांत ३५६ हेक्टर वाठारांत, तर खाजन पध्दतीन ६३ हेक्टर वाठारांत भाताचें पीक घेतात. कोमुनिदादींचें भातच्या पिकाचें सरासरी उत्पादन दर हेक्टराक २९ खांडी इतलें आसा. भाताच्या पिकाचे वट्ट १,७१८ प्लॉट आसात. तातूंतल्या ७६७ प्लॉटांचो वाठार दरेकी ४,००० चौ. मी. इतलो आसा. भात-पिकावळीचो वाठार आनी येणावळ हे नदरेन मडकयची कोमुनिदाद म्हालांत सगळ्यांत गिरेस्त आसा.

**दिवचल म्हालांतल्यो कोमुनिदादीः** दिवचल म्हालाचो पुराय आवांठ २३,६३३ हेक्टर इतलो आसा. तातूंतलो १९,७३२ हेक्टर वाठार पिकावळीखातीर फावसो आसा. म्हालांत २१ कोमुनिदादी आसून तांचेकडेन २,९६० हेक्टर वाठार आसा. भाताच्या पिकाचे पिकावळीखाल ४०७ हेक्टर वाठार आसात. तातूंतलो २९० हेक्टर वाठार खाजन पध्दतीचो तर २७९ हेक्टर वाठार पावसाळी भाताचें पीक पिकोवपाखातीर वापरतात. भाताचें दर हेक्टरी उत्पादन १५ खांडी इतलें जाता. भाताच्या पिकाचो वाठार ८०० प्लॉटांनी वांटिल्लो आसा. तातूंतल्या ४१७ प्लॉटांचो आवांठ दरेकी ४,००० चौ. मी. आसा. ह्या कोमुनिदादींक शेअरधारक वांगडी नात. हे संस्थेचे वांगडी 'जणकार' आसून चडशे गांवांतूच रावतात. भातपीक आनी येणावळ हे नदरेंतल्यान आमोणें आनी नावेलीच्यो कोमुनिदादी सगळ्यांत व्हड आसात.

**पेडणें म्हालांतल्यो कोमुनिदादीः** पेडणें म्हालाचो पुराय आवांठ २४,२०० हेक्टर आसा. तातूंतलो २२,२४८ हेक्टर वाठार पिकाळ आसा.

पिकाळ वाठारांतली ६% म्हळ्यार १,३३३ हेक्टर सुवात कोमुनिदादींकडेन आसा. म्हालांत १२ कोमुनिदादी आसात. इब्रामपूरची कोमुनिदाद चड येणावळीक लागून गिरेस्त आसा.

**केपें म्हालांतल्यो कोमुनिदादीः** केपें म्हालाचो पुराय आवांठ ३४,७३१ हेक्टर आसात. तातूंतलो ३३,४७९ हेक्टर वाठार पिकां काडपाक योग्य आसा. म्हालांत सगळ्यो मेळून २४ कोमुनिदादी आसात. केपें म्हालांतल्या कोमुनिदादींकडेन सुमार २०१ हेक्टर वाठार आसा. हातूंतलो १७३ हेक्टर वाठार भाताच्या पिकाखातीर वापरतात. दर हेक्टराक भाताच्या पिकाचें उत्पादन ७ खांडी इतलें आसा. चड करून सगळीं पिकां पावसांत घेतात. कोमुनिदादीचे वांगडी फकत 'जणकार' आसात. तशेंच ह्या म्हालांतल्यो कोमुनिदादी आपली येणावळ 'तोक्सीमा' हें पध्दतीन वांटतात. तोक्सीमा दिवपाच्यो पध्दती फुडलेतरेन आसात. १. दरेक वागोराक तोक्सीमा दिवप २. दरेक बाबजी सिनायाक तोक्सीमा दिवप ३. दरेक बाल सिनायाक तोक्सीमा दिवप ४. दरेक कुलकर्ण्याक तोक्सीमा दिवप ५. दरेक गांवकाराक तोक्सीमा दिवप ६. दरेक मोठाक तोक्सीमा दिवप. ७. दरेक शिरवैकाराक तोक्सीमा दिवप ८. दरेक देसायाक तोक्सीमा दिवप ९. दरेक फट्टे देसायाक तोक्सीमा दिवप.

**सांगें म्हालांतल्यो कोमुनिदादीः** सांगें म्हालाचो पुराय आवांठ ८८,६६० हेक्टर आसा. तातूंतलो ८४,५११ हेक्टर वाठार पिकाळ आसा. पिकाळ वाठारांतली फकत ०.४% वा २९९ हेक्टर सुवात कोमुनिदादींकडेन आसा. ही सुवात ६ कोमुनिदादींनी वांटल्या. भाताचे पिकावळीखातीर ११५ हेक्टर वाठार वापरतात. हातूंतल्या १३ हेक्टर वाठारांत पावसांत, ४६ हेक्टर वाठारांत गिमाळ्यांत तर ५६ हेक्टर वाठारांत दोनूय हंगामांत भाताचें पीक घेतात. दरेक हेक्टराक भाताच्या पिकाचें उत्पादन १८ खांडी इतलें आसा. भाताच्या पिकावळीचो वाठार २३० प्लॉटांनी वांटला. तातूंतल्या दरेक प्लॉटाचो आवांठ ९९ चौ. मी. इतलो आसा. वट्ट येणावळ आनी भाताचे पिकावळीचे नदरेन ही कोमुनिदाद सगळ्यांत व्हड आसा.

**काणकोण म्हालांतल्यो कोमुनिदादीः** काणकोण म्हालाचो पुराय आवांठ ३४,७३६ हेक्टर आसा. तातूंतलो ३३,५०२ हेक्टर वाठार पिकाळ आसा. म्हालांतल्या स कोमुनिदादींकडेन फकत ५३ हेक्टर वाठार आसा. कोमुनिदादींचो चडसो वाठार भाताचे पिकावळीखातीर वापरतात. हें पीक दोनूय हंगामांत घेतात. भाताचे पिकावळीखाल १०९ प्लॉट आसात. तातूंतले अठरा प्लॉट दरेकी २,००० ते २,९९९ चौ. मी. आवांठाचे आसात. दर हेक्टराचें सरासरी उत्पादन १३ खांडी इतलें आसा. वट्ट येणावळ, वांगड्यांक दिवपांत येवपी 'जणाचो' वट्ट आंकडो, भाताचे पिकावळीखाल आशिल्लो वाठार हे नदरेंतल्यान, म्हालांत खोलांतली कोमुनिदाद सगळ्यांत व्हड आसा.

**सत्तरी म्हालांतल्यो कोमुनिदादीः** सत्तरी म्हालाचो पुराय आवांठ ५१,२८४ हेक्टर आसा. तातूंतलो ४९,०५४ हेक्टर वाठार पिकाळ आसा. म्हालांतल्या दोन कोमुनिदादींकडेन ५९ हेक्टर वाठार आसा. भाताचे पिकावळीखाल आशिल्लो वाठार आनी येणावळ हे नदरेन पिसुर्लेची कोमुनिदाद सगळ्यांत व्हड.

गोंयांत कोमुनिदादींच्या मुंडकारांचो वट्ट आंकडो तीस हजारांचेर पावता. १९५४ आनी १९५५ वर्सा २९,९०० मुंडकारांची नोंद जाल्ली. १९६१ त होच आंकडो कायम आसलो. तिसवाडी, बारदेस आनी साश्टी म्हालांत, कोमुनिदादीचे भौसंख्य मुंडकार आसात. सुर्वेक कांय काळ प्लॉट पावणेर काडून मुंडकारांक भात पिकोवपाखातीर दिताले. सद्या प्लॉट थारावीक वर्सांची कबलात करून दितात. काजू आनी माडयो ३ वा ९ वर्सांची कबलात करून भाड्यान दितात.

**कोमुनिदादींचें प्रशासनः** कोमुनिदादींची प्रशासकीय समिती तीन वांगड्यांची आसता. सरकार हे संस्थेच्या योग्य वांगड्यांमदल्यान तिचेर अध्यक्ष नेमता. अॅटर्नी (प्रोकुरादोर वा अधिकारी) तशेंच खजिनदार योग्य वांगड्यांमदल्यान कोमुनिदाद वेंचून काडटा. दरेक म्हालांतले कोमुनिदादीचेर एक प्रशासक आसता. मार्च १९६५ मेरेन तिसवाडी साश्ट आनी बारदेस म्हालांनी कोमुनिदादींचेर एक स्वतंत्र कोमुनिदाद प्रशासक आसतालो. हेर म्हालांतल्या कोमुनिदादींचें प्रशासन त्या त्या म्हालाचो शासकीय प्रशासक पळेतालो. सत्तरी म्हालांतल्या दोन कोमुनिदादींचें प्रशासन दिवचल म्हाल प्रशासकाच्या हाताखाल येतालें.

सद्या साश्टी, मुरगांव, केपें, काणकोण आनी सांगें म्हालांतल्यो कोमुनिदादीं, साश्टी म्हाल कोमुनिदादींच्या प्रशासकाच्या अधिकाराखाल येतात. फोंडें आनी गोंय म्हालांतल्यो कोमुनिदादी तिसवाडी कोमुनिदादींच्या प्रशासकाच्या अधिकाराखाल येतात. बारदेस, पेडणें, दिवचल आनी सत्तरी म्हालांतल्यो कोमुनिदादीं, बारदेस म्हाल कोमुनिदादींच्या प्रशासकाच्या अधिकाराखाल येतात. कोमुनिदादींचे सगळे प्रशासक, नागरी प्रशासनाच्या निर्देशकाच्या नेमांप्रमाण वावर करतात. गरजेप्रमाण हे प्रशासनवेवस्थेंत फाव ते बदल जायत रावतात.

**कोमुनिदादींच्या वांगड्यांचे हक्क आनी अधिकारः** कोमुनिदादींत, जणकार, शेअरधारक आनी वांटो घेवपी अशे तीन तरेचे वांगडी आसात. कांय कोमुनिदादींच्या मूळ गांवकाऱ्यांनी 'कुलकर्णी' ह्या वर्गाक आपलेभितर आस्पावन घेतला. साश्ट, बारदेस आनी मुरगांव म्हालांतल्या कोमुनिदादींत खास करून जणकार आनी शेअरधारक आसात. तर केपें, काणकोण, सांगें, दिवचल, सत्तरी म्हालांतल्या कोमुनिदादींनी चडशे गांवकार आसात. फोंडें म्हालांतल्या कोमुनिदादींनी वांगडी भाग घेवपी वा वांटो घेवपी आसात.

कोमुनिदादींच्या वांगड्यांक मेळपी हक्क, अधिकार आनी हेर सुविधा फुडलेतरेन आसातः

१. कोमुनिदादींच्या निव्वळ फायद्यांत वा येणावळींत वांटो मेळोवपाचो अधिकार वांगड्यांक आसता. २. वांगड्यांक कोमुनिदादींच्या रित्या सुवातींनी नेमूं येता वा रिती सुवात भरपाखातीर ताका भोवमतान वेंचून काडूं येता. ३. कोमुनिदादींचे बसकेंत वांटो घेवप, भासाभास करप, मतदान करप, आपलें मत परगटावप. ४. कोमुनिदादींची तूट भरून काडप. ५. प्रशासकीय समितीच्यो बसका आपोवप आनी घेवप. ६. येणावळ आनी खर्चाचे हिशेब तपासप, तशेंच उत्पादनाविशींचे आराखडे तयार करप. ७. कोमुनिदादींच्या खंयच्याय कायद्याआड जाप विचारप वा अपील करप. ८. कोमुनिदादींच्या वेव्हारांत वा वावरांत दिशिल्ल्यो तुटी वा उणेंपण दाखोवन दिवप.

सद्या कोमुनिदाद, कांय थारावीक वर्गाची मक्तेदारी जाल्या.

एका काळार गांवचो सर्वांगीण विकास करपाक झटपी कोमुनिदाद ह्या ग्रामसंस्थांचो वावर सद्याक खुबूच मोटवो जाला. जल्माच्या दायजान मेळिल्लें गांवकारपण वा शेअर्स विकते घेवन मेळयिल्लें वांगडीपण हांचेपुरतोच कोमुनिदादींचे येणावळीचो लाव मर्यादीत उल्ला. कोमुनिदादींचे वांगडी कोमुनिदादींच्या आवांठाभायर सदांखातीर राबीतो करून रावल्यार लेगीत वंशपरंपरेन ते कोमुनिदादींचे येणावळीचो फायदो घेवंक शकता.

हाचे उरफाटें, कोमुनिदादींच्या वाठारांत रावनूय कोमुनिदादींच्या वांगड्यांभायर आशिल्ल्या लोकांक कोमुनिदादींचो लाव मेळना आनी त्या कारणांक लागून तांकां खऱ्या अर्थान ग्रामसंस्था म्हणूंक जायचेंना.

कोमुनिदाद, हे एकाकाळार तुस्त जाल्ले ग्रामसंस्थेचें, वेल्या कारणांखातीर सहकारी शेती संस्थेंत वा ग्रामपंचायतींत विसर्जन करचें, अशें कांय जाणकारांचें मत आसा, तर सद्याचे कोमुनिदादींचे अवस्थेंत फाव ते बदल करून तिका तिचें मूळ रूप दिवन गांवचे सर्वांगीण उदरगतीखातीर झटपी ग्रामसंस्था करची, अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**कोयंडेबालः** मळार खेळपाचो एक भारतीय खेळ. खूब पूर्विल्ल्या काळासावन हो खेळ खेळटात. हेविशीं पुराण ग्रंथांनी जायतेकडेन उल्लेख मेळटा. एक फावट कौरव-पांडव कोयंडेबालान खेळटा आसतना बाल

बांयत पडले तेन्ना तांचो गुरू द्रोणाचार्य हाणें तें काडून दिलें, असो उल्लेख महाभारतांत आयला. यादवकाळांतल्या ह्या खेळाचें स्पश्ट वर्णन लीळाचरित्रांत आसा. ज्ञानेश्वरानूय ह्या खेळाचो उल्लेख केला, (ज्ञानेश्वरी- ११.५४८). संत एकनाथान ह्या खेळाचेर रुपक बरोवन नितीबोध केला.

भारतांतल्या सगळ्या गांवगिऱ्या वाठारांनी हो खेळ खेळटात. आंध्र प्रदेश, गुजरात, महाराष्ट्र आनी गोंय ह्या वाठारांनी ह्या खेळाक चड म्हत्व आसा. उत्तर प्रदेशांत ह्या खेळाक 'गुल्लीडंडा' ह्या नांवान वळखतात. मराठींत ताका 'विटीदांडू' म्हण्टात.

ह्या खेळाक कोयंडो आनी बाल हीं दोन साधनां लागतात. कोयंडो सुमार देड फूट लांबायेचो आसता. ताचें एक तोंक शंखा आकाराचें आनी दुसरें तोंक चेपटें आसता. बाल सुमार ४-५ इंच लांबायेचें आसता आनी ताच्यो दोनूय वटेनच्यो कडो तोंकाच्यो आसतात. कोयंडो सहज हातांत धरपा इतलो मोटो आसता आनी तेच प्रमाणांत बाल आसता. चड करुन कोयंडो आनी बाल हीं साधनां कोंड्यांचीं करतात.

हो खेळ खेळपाक दोन पंगड लागतात आनी दोनूय पंगडांनी सारकेच गडी आसतात. ह्या दोनूय पंगडांक 'मारपी' आनी 'जिखपी' ह्या नांवांनी वळखतात. मारप्याच्या पंगडांतलो एकफावट एकूच गडो खेळूंक शकता. पूण जिखपी पंगडांतले सगळे गडी एकदम खेळटात.

हो खेळ उक्त्या मळार खेळटात. मळाचे मदीं सुमार चार आंगळां ते वेंतभर अशी तीन इंच खोलायेची आनी दोन इंच रुंदायेची जमनीक चीर घालतात. हिका 'हूर' म्हण्टात. मारपी पंगडांतलो खेळगडो हुरीर आडवें बाल दवरता आनी बाला पोंदचे खाचींत कोयंडो घालून बाल खोले करून हवेंत मारता. जिखपी पंगडांतले खेळगडी हें बाल वयल्यावयर जिखपाचो यत्न करतात. जर हें बाल, जिखपी पंगडाच्या खंयच्याय खेळगड्यान वयल्यावयर जिखून घेतलें, तर मारपी खेळगडो बाद जाता. जर बाल जिखलेंना तर मारपी खेळगड्याक पयलें जीवदान मेळटा. उपरांत मारपी खेळगडो हुरींत कोयंडो, बोटाच्या आदारान वा दुसऱ्या कोयंड्यान उबो करता आनी जिखपी पंगडांतलो खेळगडो खोले केल्लें बाल जंय जमनीर पडलां, थंयसून तें हुरीवटेन शेंवटून मारता. जर तें बाल हुरींत उबो केल्ल्या कोयंड्याक लागलें, तर मारपी खेळगडो बाद जाता. हे फावटीय मारपी खेळगड्याक जीवदान मेळ्ळें तर मारपी खेळगडो तें बाल, जिखपी पंगडाच्या खेळगड्यावटेन कोयंड्यान वावुडटा. हे कृतीक 'खोजें' म्हण्टात. हांगा पर्यून बाल वेल्यावयर जिखून घेवपाची संद जिखपी खेळगड्याक मेळटा. बाल जिखलेंना तर जिखपी पंगडांतलो खेळगडो तें बाल आपली कळाशी वापरुन मारपी खेळगड्यावटेन अशेतरेन शेंवटिता की, एक तर मारपी खेळगडो आपल्या कोयंड्यान त्या बालाक वावुडल्या उपरांत ताचो झेल अचळय जिखपी पंगडांतल्या खंयच्याय खेळगड्याच्या हातांत येवचो; वा कोयंड्याचो स्पर्श बालाक जावचो न्ही वा स्पर्श जावन वा ना जावन बाल हुरी लागींच जमनीर पडचें. ह्यो तिनूय गजाली घडल्यो तर मारपी खेळगडो बाद जाता. हे फावटीय जर खेळगड्याक जीवदान मेळ्ळें आनी कोयंड्यान वावुडलेलें बाल एका थारावीक अंतराचेर वचून पडलें तर तें बाल आनी हूर हांचे मदलें अंतर जितले कोयंडे भरतले तितले गूण मारपी पंगडाक मेळटात. जिखपी पंगडाचो खेळगडो तें बाल हुरीवटेन शेंवटिता ताका 'आल्लो दिवप' म्हण्टात. आल्लो दितना जर वयर सांगिल्ली खंयचीय एक गजाल घडली तर मारपी खेळगडो बाद जाता आनी त्याच पंगडांतलो दुसरो खेळगडो खेळपाक येता. मारपी पंगडांतले सगळे गडी बाद जाले म्हण्टकच जिखपी पंगडाचे खेळगडी खेळपाक सुरू करतात.

कांय प्रदेशांनी हूर आनी बाल हांचेमदलें अंतर मेजपाखातीर एक थारावीक परिभाशा आसता. गोंयांत परिभाशा वापरतात ती अशी: १. पाव, चेट, मेट, भिरमूट, घोडा, दुच्ची, काला, झील. २. पाव, चिटी, मिटी, घड, फूग, काला, झील. सात शब्दांची ही परिभाशा म्हळ्यार सात कोयंड्यांचें अंतर मेजप आनी ह्या सात कोयंड्यांच्या अंतराक एक 'झील' जालें अशें म्हणप.

खेळ सुरू करचे पयलीं अमुकूच झिली पुराय करपाची बोली केल्ली आसता. जो पंगड ही बोली पयलीं पुराय करता तो पंगड खेळ जिखता. जिखिल्ल्या पंगडांतलो दरेक खेळगडो कोयंड्यान बाल वावुडटा आनी हरिल्ल्या पंगडांतलो दरेक खेळगडो सांखळी पध्दतीन तें बाल लंगडी घालून वा 'ई' हो स्वर तोंडान घोळोवन बाल हुरीवटेन हाडटा.

- कों. वि. सं. मं.

## कोरगांवकर, विठ्ठलराव:

(जल्मः १८८४, मुंबय; मरणः ३१ डिसेंबर १९७४, बेळगांव).

नामनेचो पेटीवादक. कोरगांव हो ताचो मूळ गांव. तो ल्हान आसतना ताचे आवय-बापूय मेल्ल्यान कुटुंबाची जबाबदारी ताचेर पडली. ल्हानपणांत कीर्तनां आयकून ताका संगीताची आवड निर्माण जाली. कुटुंबाच्या उदरनिर्वाहाखातीर तो मुंबय गेलो आनी पिरायेच्या धाव्या वर्सा ताणें पाटणकर संगीत मंडळींत प्रवेश केलो. थंय ताणें भागवत हाचेकडेन पेटयेचे मुळावे धडे घेतले. थंयच ताणें गावपाचो आनी पेटी वाजोवपाचो अभ्यास सुरू केलो. फुडें १९०५ मेरेन भाचूभाई भांडारे हाचेकडेन पेटयेचें फुडलें शिक्षण घेतलें.

१९०५ त, ताणें हुबळीक स्वताचो वेवसाय सुरू केलो. ताचो उद्येगधंदो जरी वाडत आशिल्लो तरी ताचे संगीत साधनेंत खंड पडलो ना. तो दिसाक स तास रियाज करतालो. अब्दुल करीमखाँ, वझेबुवा, सवाईगंधर्व, सौ. हिराबाई बडोदेकर, मास्टर कृष्णराव अशे कितलेशेच नामनेचे कलाकार मुक्कामाक हुबळी हांगा तागेर रावताले. १९०६ ते १९२८ मेरेन ताका खाँ साहेब हाची तालीम मेळ्ळी. शास्त्रीय संगीताचीं म्हत्वाचीं आंगां, किराणा घराण्याचें सूक्ष्म ज्ञान, शास्त्रविचार, स्वरविलास आनी सौंदर्यदर्शन हाचें मार्गदर्शन ताका खाँसाहेबाकडल्यान मेळ्ळें. तेभायर पं. रामकृष्णबुवा वझे हाचेकडल्यानूय ताका मार्गदर्शन मेळत आशिल्लें. तशेंच अल्लादियाखांसाहेब, पं. बाळकृष्णबुवा इचलकरंजीकर, आग्रा घराण्याचे गायक, गोरजान-मलकाजान सारक्या म्हान गायकांचे कलात्मकतेचो परिणाम ताचे संगीत साधनेचेर जालो.

पूण १९३५ त ताच्या धंद्यांत खोट आयली आनी ताका हुबळीचो वेवसाय सोडून मुंबय येवंचें पडलें. थंय ताणें 'रुक्मिणी संगीत विद्यालय' सुरू केलें. हें विद्यालय चार वर्सां चललें. उपरांत झुजाचे परिस्थितीक लागून, हेरांप्रमाण विठ्ठलरावाकूय मुंबय सोडची पडली. उपरांत तो बेळगांवा स्थायिक जालो आनी थंय ताणें विद्यालय सुरू केलें. आनंदाखातीर कमयिल्ली संगीतविद्या ताका चरितार्थाखातीर वापरची पडली.

गुरु खांसाहेब अब्दुल करीमखाँ आनी बालगंधर्व हीं ताचीं दोन संगितीक दैवतां. ताणें ह्या दोनूय कलाकारांची कला स्वताच्या अप्रतिम पेटी वाजोवपांत हाडपाचो चडांत चड यत्न केलो. विठ्ठलरावाच्या कलात्मक यशाचें हेंच मुखेल सूत्र आशिल्लें. 'हिज मास्टर्स व्हॉइस' हे कंपनीन काडिल्ल्यो विठ्ठलरावाच्यो णव रिकोर्डी खूब लोकप्रिय जाल्यो.

ताणें पेटी वाजोवपांत आपलो स्वताचो खाशेलो ढंग तयार केल्लो. आलाप आंगात किराणा गायकेचो सुरेलपणा, क्रम, संयम आनी स्वरविस्तारांतलो अतूटपणा हाचेर ताची बारीक नदर आसताली. तान पलटयांत जयपूर गायिकेचो ढंग, वादनाक सोबता अशें लयकारीचें काम अशा कलात्मकतेन तो रागदारी पेश करतालो. सोबीत कल्पनाविलास हें ताच्या वाजोवपाचें खाशेलेपण आशिल्लें.

ताचे जायते शिष्य बेळगांव, मुंबय आनी पुणे ह्या शारांतल्यान नामनेचे गायक-वादक आनी शिक्षक म्हूण संगीताच्या मळार वावर करतात. अल्लादियाखांसाहेबासारक्या गानसम्राटान भांगरा पदक दिवन ताचे वादन कलेचो भोवमान केलो. गानमहर्षी बाळकृष्णबुवा इचलकरंजीकर हाणें आनी १९०० त म्हैसूर अकादमीन अवॉर्ड दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**कोरडे, प्रमोद शिवरामः** (जल्मः २९ डिसेंबर १९३४, बेळगांव).

गोंयचो सुटके झुजारी. १९५४ वर्सा सावन तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आसलो. सुटके झुजारी मोहन रानडे हाच्या फुडारपणाखाल ताणें सुटके झुजांत जायतो वावर केला.

आपलो भाव माधव कोरडे हाची चवकशी करपाक गेल्ले कडेन १२ ऑगस्ट १९५५ दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. तीन दीस ताका बंदखणींत दवरून, ताच्या भावाक अटक करतकच ताची सुटका जाली. १६ नोव्हेंबर १९५६ दिसा ताका परतो धरलो.

उपरांत २६ डिसेंबर १९५६ दिसा गोंयच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार ताची चवकशी जाली आनी ताका अठरा म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ते भायर बारा वर्सांखातीर ताचे राजकी हक्क काडून घेतले. १६ मे १९५७ दिसा ताची सुटका जाली.

बंदखणींतल्यान सुटले उपरांत कृष्णराव राणे हाच्या फुडारपणाखाल तो राजकी वावर करूंक लागलो. गोंय सुटके उपरांत १९६३ वर्सा कुट्टी-खांडेपार ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हूण तो वेंचून आयलो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**कोरडे, मनोहर शिवरामः** (जल्मः ३० जुलय १९२८, बेळगांव).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. १६ नोव्हेंबर १९५५ दिसा पोलिसांनी ताका धरून बंदखणींत घालो. उपरांत ७ जानेवारी १९५७ दिसा ताची सुटका केली. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**कोरडे, माधव शिवरामः** (जल्मः २९ ऑक्टोबर १९३१, कुट्टी-फोंडें).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें माध्यमिक शिक्षण पोर्तुगेजींतल्यान घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. १९५० वर्सा ताणें मोहन रानडेच्या फुडारपणाखाल वावर केला. 'तांबडी माती' वाठारांतल्या पोलीस ठाण्याचेर जाल्ल्या अपेशी हल्ल्यांत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९५४ वर्सा हळदोणें पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत ताणें मोहन रानडे, रामदास चाफाडकर आनी बाळकृष्ण भोंसले हांच्या वांगडा वांटो घेतिल्लो. फर्मागुडी वाठारांत आर्जेंति कासिमीरु मोंतैरु ह्या पोर्तुगेज अधिकाऱ्याचेर आनी फोंडेंच्या कुट्टी वाठारांत आशिल्ल्या पोर्तुगेज लश्करी गस्तीचेर हल्ले करपाचे जे दोन अपेशी बेत आंखिल्ले, तातूंत ताचो वांटो आशिल्लो. पाळी मिनाखणीचेर हल्लो करून थंयचीं स्फोटक द्रव्यां जप्त करपांतूय ताणें वांटो घेतिल्लो. सालाझार राजवटीक तेंको दिवपी गोंयकार किस्तोद फेर्नांदिश हाच्या खुनाच्या संबंदान ऑगस्ट १९५५ वर्सा पोलीसांनी ताका धरलो आनी खूब त्रास दिले. उपरांत २८ डिसेंबर १९५६ दिसा ताका बावीस वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर दंड म्हूण १८,००० इस्कूद भरपाक लायले वा दंड भरपाय म्हूण दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ११ जानेवारी १९५९ दिसा नामदेव हरमळकार, पांडुरंग राणे, आनी विजयराव राणे हांचे वांगडा तो शिटूकपणान बंदखणींतल्यान सुटलो आनी गुप्तपणान मुंबय गेलो. उपरांत तो 'रांकूर पात्रियोतिका' पक्षांत गेलो. ह्या पक्षांत रावन ताणें पोर्तुगेज ठाण्याचेर जायते घातकी हल्ले केले. सप्टेंबर १९५९ ते १९६१ वर्सा मेरेन मुंबयच्या 'क्रिमिनल इन्वेस्टिगेशन डिपार्टमेन्ट' ह्या खात्याखातीर ताणें गोंयचे शिमेर दुभाशी म्हूण वावर केला. १७ डिसेंबर १९६१ दिसा जेन्ना भारतीय सैन्य फोंड्या पावलें, तेन्ना ताणें तांकां मार्गदर्शन केलें. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**कोरडे, शिवराम वासुदेवः** (जल्मः ६ सप्टेंबर १९०३, कुट्टी-फोंडें; मरणः ४ जानेवारी १९८२).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठी आनी पोर्तुगेजींतल्यान घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेच्या वावुरप्यांक जेवपाक आनी रावपाक दिवप, तांचीं शस्त्रां सुरक्षित जाग्यार लिपोवन दवरपाक तांकां आदार दिवप, असलीं कामां तो सुटके चळवळीच्या काळांत करतालो. ताचो पूत माधव कोरडे हाका धरतना ऑगस्ट १९५५ वर्सा पोलिसांनी ताच्या घराचेर धाड घाली. ताच्या घरांत आशिल्लीं पिस्तुलां आनी दारुगुळो जप्त केलो. १६ नोव्हेंबर १९५५ दिसा पोलिसांनी ताका धरून बंदखणींत दवरलो. गोंयच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार चवकशे उपरांत जानेवारी १९५७ वर्सा ताची सुटका जाली. बंदखणींतल्यान सुटल्या उपरांत तो परतो राजकी वावर करूंक लागलो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**कोरिया (उत्तर/दक्षिण):** आशियाच्या ईशान्य वाठारांतले दोन देश. दोनांयचें वट्ट क्षेत्रफळः २,२०,८९१ चौ. किमी. विस्तारः नैर्ऋत्येवटेंतलो चेजू जुंवो आनी दर्यादिगेलागच्या सुमार ३,३०० जुंव्यांसयत ३३° ७' उत्तर ते ४१° १' उत्तर आनी १२३° ४५ उदेंत ते १३०° ५०' उदेंत. हाचे उत्तरेवटेन चीन, सामक्याच ईशान्येवटेनच्या तोंकार रशिया, अस्तंतेक हळडुवो दर्या, उदेंतेक जपानचो दर्या, दक्षिणेक चिनी दर्या आनी आग्नेयेवटेन कोरियाचो दर्या. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या निकालाचो परिणाम म्हूण राजकी कारणांखातीर १९४५ त ३८° अक्षवृत्ताचेर ह्या एका देशाचे दक्षिण आनी उत्तर कोरिया अशे दोन वेगळे प्रदेश जाले आनी कोरियन झुजाउपरांत (१९५०-५३) उत्तर आनी दक्षिण कोरिया अशे दोन स्वतंत्र देश अस्तित्वांत आयले. उत्तर कोरियाचें क्षेत्रफळ १,२२,३७० चौ. किमी.; दक्षिण कोरियाचें क्षेत्रफळ ९८,४२१ चौ. किमी. उत्तर कोरियाची राजधानी प्येंगयांग आनी लोकसंख्याः २,०५,४३,००० (१९८६); जाल्यार दक्षिण कोरियाची राजधानी सोल आनी लोकसंख्याः ४,१५,६८,००० (१९८६). कोरियन लोक आपले भाशेंत ह्या वाठाराक चोसन- म्हळ्यार फांतोडेचे शांततायेची भूंय अशें म्हण्टात. दक्षिण कोरियाक 'हानगुक' अशेंय म्हण्टात. कोर्यो घराण्यावयल्यान ह्या देशाक 'कोरिया' हें नांव पडिल्लें. कोरिया म्हळ्यार 'ऊंच दोंगरांची आनी लखलखपी प्रवाहांची भूंय' असो अर्थ जाता.

**भूंयवर्णनः** कोरियाचो सुमार ८०% वाठार दोंगरांनी भरला. कितल्याशाच ऊंच दोंगरातेमकांमदले पॅक्तू २,७४४ मी. हे सगळ्यांत ऊंच आसा. क्वान्मोः २,५४१ मी.; म्योह्यांगः १,९०९ मी.; कुमगांगः १६३८ मी. आनी चेजू जुंव्यांवेले हाल्लाः १,९५० मी. हीं हेर ऊंच दोंगरातेमकां आसात. तॉबाक सोबाक ह्यो मुखेल पर्वतांवळी आसात. सोबाक पर्वतांवळींमदलें चिरीसान हें १,९१५ मी. चें सगळ्यांत ऊंच दोंगरातेमक आसा. उदेंतेवटेनची दर्यादिग सामकीच अशीर आसा. अस्तंतेवटेनची दर्यादिग त्या मानान रुंद आसा. नैर्ऋत्य-दक्षिण वाठारांतल्या न्हंयच्या देगणांत पिकाळ मळां आसात. दक्षिण दर्यादिगेसावन सुमार ८० किमी. पयस कोरियाचो सगळ्यांत व्हडलो जुंवो चेजू आसा. जपान दर्यांत आशिल्लो उल्लूंग जुंवो ज्वालामुखीखातीर नांवाजला. उत्तरेवटेनच्या पेवसान दोंगरावाठारांतय भूंयकांपांची आनी ज्वालामुखीची बरीच शक्यताय आसता; पूण जपानच्या मानान कोरियांत भूंयकांप उणेच जातात.

कोरियांतल्या न्हंयांची लांबाय चड व्हडली ना. उत्तरेवटेनच्या पॅक्तू पर्वत वाठारांत यालू न्हंय भायर सरता. ती उत्तर शिमेवेल्यान नैर्ऋत्येवटेन ७८६ किमी. व्हांवत वचून हळडुव्या दर्याक वचून मेळटा. त्याच वाठारांतल्यान दुसरी न्हंय तुमन ही ५१७ किमी. मेरेन व्हांवन जपान दर्याक मेळटा. प्येंगयांग वयल्यान वचपी तॅदाँग न्हंय आनी इम्जिन ह्यो हांगाच्यो हेर न्हंयो. तेभायर दक्षिण कोरियांत हान, कुम, यॉंगसान,




सोमनिन आनी नाकताँग ह्यो मुखेल न्हंयो.

**हवामानः** गिमांत कोरियाचें तापमान सगळ्यांत उश्ण आनी कडक आसता. पावस एप्रिल ते सप्टेंबर ह्या काळांत पडटा. चडसो पावस जून सोंपता तेन्ना आनी ऑगस्टाचे निमाणेमेरेन पडटा. उत्तरेखटेन पावसाचें प्रमाण ५० सेंमी. जाल्यार दक्षिणेवटेन सुमार १५० सेंमी. आसता. हांगाचें हवामान भाताचे लागवडीक बरें आसा. शिंयाळ्यांत पावस पडना. जानेवारी म्हयन्यांत तापमान चेजू जुंव्यांचेर सुमार ४५° से.; पुसान हांगा सुमार २.२° से.; सोलः -५° से.; प्येंगयांगः -८.७° से. जाल्यार उत्तरेखटेनच्या चुंगगाँग हांगा -२१.७° से. आसता. सप्टेंबर-ऑक्टोबर म्हयन्यांनी भिरांकुळ चक्रीवादळां (typhoons) जातात.

**वनस्पत आनी मोनजातः** हांगा सुमार ३ हजारांपरस चड जातींची वनस्पत सांपडटा. तांतल्यो सुमार ५०० खासा कोरियन आसात. कितलींशींच वर्सां हांगाचे जमनींत शेत रोयिल्ल्यान तिची धूप जाल्या. दोंगरी वाठारांनी मात बरींच रानां पळोवंक मेळटात. हांगा सांपडपी मुखेल वनस्पत म्हळ्यार जिनसांग. हे रानवटी वनस्पतीचें मूळ मनशाच्या आकाराचें आसता आनी तें बऱ्याच रोगांचेर वखद म्हूण वापरतात. उत्तर शिमेचेर लार्च, स्प्रूस, फर, बर्च हे रूख सापडटात. दोंगरा वाठारांनी होडोडेंड्रान आनी पायनचीं झाडां आसात. यालू न्हंयच्या देगणांत आनी मध्य कोरियांत मॅपल, बासवूड, बर्च, पॉप्लर, ओक, ॲश, एल्म, चेस्टनट, हॅकबेरी, मॅग्नोलिया, जपानी यू हेसारकीं पानझडीं झाडां आसात. दक्षिणेवटेन सदांच पाचवेचार आसपी ओक, लॉरिल जातींचीं झाडां, कॅमेलिया आनी कोंड्यांचीं रानां आसात.

प्राणीशास्त्रज्ञांक हांगा मुसांच्यो ५००, सुकण्यांच्यो ४०० आनी हेर प्राण्यांचोय बऱ्योच जाती सांपडल्यात. भालू, वांस्वेल, रानदूकर, तरांतरांचीं हरणां आनी मेरवां, हिमचित्तो, लिंक्स, वाग, वेबे, शेड्डे, सोरोप असली विंगडविंगड मोनजात हांगा बरीच पळोवंक मेळटा.

**इतिहासः** पांच हजार वर्सां आदीं चीन आनी मंगोलियांतल्यान लोकांचे कांय पंगड हांगा पावले. ब्राँझ आनी ताचे उपरांत लोखण तयार करपाचें गिन्यान हांगाच्या लोकांनी उपरांत चीनाकडल्यान मेळयलें. कोरियन राजाचें घराणें इ. स. प. ११२२ सावन कोरियाचेर राज्य करतालें अशें म्हण्टात, पूण हाका इतिहासीक पुरावो मेळूंक ना. चीनांतल्यान आयिल्ल्या किजा ह्या विद्वानान उपरांत हांगा सत्तेची थापणूक केली. ताचे उपरांत इ. स. प. १९४ त वीमन घराणें सत्तेचेर आयलें. ताच्या फुडल्या काळांत कोरियांत तीन राजघराणीं सत्ता चलयतालीं. उत्तरेखटेन कोगुर्यो, नैर्ऋत्येवटेन पेकचे आनी आग्नेयेवटेन बळीश्ट तशेंच सुसंस्कृत अशें सिला घराणें आशिल्लें. सिला सत्तेच्या काळांत कोरियांत बौध्द धर्म पावलो. ९१८ त वांगकन (८७७-९४३) हाणें थापणूक केल्ल्या कोर्यो घराण्यान ९३६ मेरेन पुराय देशभर आपलो शेक गाजयलो. ह्या घराण्याचे सत्तेच्या सुमार ५०० वर्सांच्या काळांत हांगा चीनाचो समाजीक, राजकी आनी वैचारिक प्रभाव आशिल्लो. परक्यांच्योय हांगा बऱ्योच घुरयो येताल्यो. १३९२ त यी घराण्यांतल्या यी साँगग्ये (१३३५-१४०८) हाणें सत्ता हातासली. ताणें बौध्द धर्माचे सुवातेर कन्फ्यूशस मताचो राजधर्म आपणायलो. हे सत्तेखालाच सोल ही राजधानी जाली. छापखान्याखातीर धातूचे ठशे जगांत पयलेच फावट १४०३ त हांगा तयार जाले. १४४६ त कोरियाचो व्हड राजा सेजोंग (१३९७-१४५०) हाणें कोरियन मुळाक्षरां तयार केलीं. हे लिपयेक 'हांगल' अशें म्हण्टात. इतिहास, भूगोल, संगीत, राज्यकारभार ह्या विशयांचेर पुस्तकां तयार जालीं. पावस मेजपाचीं यंत्रां तयार जावन तीं देशभर उपेगांत आयलीं. १५९२ त जपानी राजा हिडीयोशी हाणें ह्या देशाचेर घुरी घाली, पूण हांगाचो नौदलमुखेल सुनसिन हाणें ती घुरी परतायली. पूण सदांकाळ झुजाच्या संकश्टांत सांपडिल्ल्या चोसन राजाक निमणो मांचू सत्तेचो मांडलिक जावचो पडलो. अठराव्या शेंकड्यांत योंगजो आनी चोंगजो हांणी

जमनीवयल्यान जावपी झगडीं बंद करपाचे यत्न करून शेतकामत्यांक बऱ्यो सवलती दिल्यो आनी राज्यकारभार सुदारलो. तांणी थळाव्या लोकांचे उदरगतीक चड फाटबळ दिलें आनी परकी लोकांक थंय येवपाक मना केले. पूण विद्वान अशे हे राज्यसत्तेचो शेक चड काळ तिगलो ना. १८९५ त चीनाचेर आनी १९०४-५ त रशियेचेर फाटोफाट जैत मेळोवन जपानान अमेरिका आनी हेर अस्तंतेकडल्या राश्ट्रांचो पालव मेळोवन कोरियांक आपल्या शेकातळा हाडलो. कोरियन राश्ट्रवाद हुमटावन काडचेखातीर जपानान कोरियन भाशेचेरूय बंदी घाली. १९१९ त, डॉ. सिंगमन ऱ्ही हाणें जपानी सत्तेआड बंद करून भूंयगत आसतनाच कोरियन प्रजासत्ताकाची घोशणा केली. १९४५ वर्सा जपानाचो दुसऱ्या म्हाझुजांत पराभव जाल्या उपरांत रशियन आनी अमेरिकन सैन्यां कोरियांत घुसलीं. तांकां थंय येवकार मेळ्ळो. उपरांत ३८° अक्षवृत्ताचेर (उत्तर) कोरियाचे उत्तर आनी दक्षिण अशे दोन वांटे जाले. उत्तरेकडेनच्या वाठारांत रशियेचो जाल्यार दक्षिणेवटेन अमेरिकेचो शेक उरलो. अमेरिका आनी रशिया हांचे कोरियाक एकवटावपाचे यत्न फळादीक जाले नात आनी १९४७ त कोरियाचो प्रस्न संयुक्त राश्ट्रांमुखार आयलो. संयुक्त राश्ट्रांच्या थरावाप्रमाण दक्षिण कोरियांत वेंचणुको जाल्यो. संविधान समितीन लोकतंत्री संविधान तयार करून १५ ऑगस्ट १९४८ दिसा दक्षिण कोरिया हें प्रजासत्ताक राश्ट्र म्हूण घोशणा केली.

डॉ. सिंगमन ऱ्ही हो ह्या राश्ट्राचो पयलो अध्यक्ष जालो. ह्या नव्या राश्ट्राक रशिया आनी रशियाच्या पंगडांतल्या हेर कम्युनिस्ट राश्टांनी मान्यताय दिली. देशाच्या ह्या दोन वांट्यांची ल्हान व्हड झगडीं चालूच उरलीं. हे परिस्थितींत २५ जून १९५० दिसा उत्तर कोरियाच्या सैन्यान दोनूय कोरियांच्या एकवटाखातीर ३८° अक्षवृत्त हुंपून दक्षिण कोरियाचेर धुरी घाली. अमेरिका, ब्रिटन आनी संयुक्त राश्ट्रांच्या फुडारपणाखाल हेर राश्ट्रांची सैन्यां दक्षिण कोरियाचे राखणेखातीर थंय पावलीं. सोल शाराचेर जैत मेळोवन उत्तर कोरियाचें सैन्य फुडें सरतनाच ताका संयुक्त राश्ट्रांच्या सैन्यान आडायलें. अमेरिकन सैन्य यालू न्हंयचे लागीं पावतकच चीनान लडायेंत वांटो घेतलो. ताका लागून संयुक्त राश्ट्रांचें सैन्य फाटीं सरलें. लडाय चालूच उरिल्ली आनी निमाणे २७ जुलय १९५३ दिसा कबलात जावन झूज थांबलें. दक्षिण आनी उत्तर कोरियाच्या एकचाराच्या प्रस्नाचेर आयजमेरेन संयुक्त राश्ट्रांच्या बसकांनी भासाभास चलता. पूण एकचाराचे यत्न अजून फळादीक जावंक नात.

उत्तर कोरियांत कम्युनिस्ट राज्यपध्दत चालू उरली आनी 'कोरियन वर्कर्स पार्टी' ह्या एकपक्षीय सरकार चलोवपी पंगडाचो फुडारी किम इल सुंग हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९७२ ताणें नवें संविधान मुखार हाडलें आनी सद्यामेरेन ह्या संविधानाच्या आदारान कोरियन वर्कर्स पार्टीचें सरकार हांगाचो राज्यकारभार चलयता.

दक्षिण कोरियांत १९५६ वर्सा सिंगमन ऱ्ही तिसरे फावट वेंचणुको जिखून हांगाचो राश्ट्राध्यक्ष म्हूण सत्तेर उरलो. १९६० त जाल्या वेंचणुकांनीय ताका पर्थून जैत मेळ्ळें, पूण वेंचणुकांनी गैरवेव्हार केल्याच्या आरोपावेल्यान ताका सत्ता सोडची पडली आनी यून पो सान राश्ट्राध्यक्ष जालो. लश्करी अधिकाऱ्यांनी ह्या वेळार बंड केल्यान सिंगमनाक देशांतल्यान पळून वचचें पडलें.

१८६३ तल्या वेंचणुकांनी जैतिवंत जावन पार्क चुंगही हो राश्ट्रपती जालो. १९७९ मेरेन तो सत्तेर उरलो. १९७९ त ताचो खून जालो. ताचे उपरांत चोई कुय हाह हो राश्ट्राध्यक्ष जालो आनी निमणो १९८० सावन चुन दू हान हो हांगाचो राश्ट्राध्यक्ष जावन आसा.

**राज्यवेवस्थाः** उत्तर कोरियाचे णव प्रांत आसात. देशाच्या सगळ्यांत उंचेल्या पांवड्यावेलो राज्यकारभार चलोवपी आनी कायदे करपी मंडळ म्हळ्यार 'सुप्रीम पीपल्स ॲसेंब्ली' थंय लोकांनी वेंचून दिल्ले प्रतिनिधी राज्यकारभार चलयतात. १८ वर्सां पुराय केल्या सगळ्यांक मत दिवपाचो अधिकार आसा. कोरियन वर्कर्स पार्टी (कम्युनिस्ट) हो हांगाचो सत्ताधारी पक्ष. हांगाची सगळ्या पावंड्यावेलीं न्यायालयां, त्या त्या पावंड्यावयल्या लोकसभांनी वेंचिल्ली आसतात. दरेक नागरिकाक १७ वर्सां पुराय जाल्या उपरांत ३ ते ४ वर्सां सैन्यांत चाकरी करची पडटा.

दक्षिण कोरियाचेय णव प्रांत आसात. डिसेंबर १९६२ च्या संविधानाप्रमाण कोरियाचो अध्यक्ष शासनमुखेली आसता. पयलीं हांगा दर चार वर्सां उपरांत अध्यक्षाची वेंचणूक जाताली, पूण नव्या कायद्याप्रमाण आतां ती दर स वर्सांउपरांत जाता. अध्यक्ष स्टेट काउन्सिल आनी पंतप्रधानाची नेमणूक करता. नॅशनल ॲसेंब्लीचे वांगडी वेंचणुकांतल्यान सत्तेर येतात. कायदे करपाचे अधिकार हे ॲसेंब्लीक आसतात. संविधानान पक्ष निर्मणी करपाची आनी वेंचणुको लडोवपाची सगळ्यांक समान संद दिल्या. पूण देशाच्या लोकशाय तत्त्वांआड झगडपी पक्षांचेर बंदी घालपाची संविधान समितीक मेकळीक आसा.

**अर्थीक स्थितीः** उत्तर कोरियांत शेतवडीच्या मळार यंत्रांचो उपेग करून बरीच पिकावळ काडटात. चडशें पीक म्हळ्यार तांदूळ. गोरवां, मेंढरां आनी कोंबयो पोसपाच्या उद्देगाकूय बरेंच म्हत्व आसा.

ह्या देशांत कोळसो, शिशें, जस्त, तांबें, टंगस्टन, निकेल, मॅंगनीज आनी ग्रॅफाइट हीं खनिजां मेळटात. पेट्रोलियमाचीय हांगा बरीच सांठवण सांपडल्या. नुस्तेमारीच्या धंद्याक अर्थीक मळार म्हत्व आसा. चडसो वेपार देवमाशाचो जाता. लोखण, ॲल्युमिनियम, शिमीट, चुनो, कंवचेच्यो वस्तू, सारें सारकीं उत्पादनां करपी हांगा कारखाने आसात. सुमार ९०% उद्देगधंदे पुरायपणान सरकारी मालकेचे आसात. कायद्याच्या आनी रसायनांच्या उद्देगांचीय हांगा बरीच उदरगत जाल्या.

दक्षिण कोरियांतूय तांदळाचें पीक चड येता. तेभायर बार्ली, गंव, चेवडे, तंबाखू हींय पिकां बरींच जातात. मोनजात पोसपाचो धंदो व्हडलोसो उदरगतीक पाविल्लो ना. खनिजांचेय प्रमाण हांगा उणें आसा. टंगस्टन हें मुखेल खनिज, तेभायर कांय प्रमाणांत कोळसो, लोखण, केओलीन, चुनखडी, तांबें, शिशें हीं खनिजां सांपडटात. सामक्याच उण्या प्रमाणांत भांगर, रूपें आनी जस्त मेळटा.

व्हडा प्रमाणांत जावपी उद्देगीकरणांतल्यान हांगा तरेतरेचे कारखाने जल्माक आयल्यात. यंत्रां, दिसपट्ट्यो गरजेच्यो वस्तू, मोटारगाडयो हांचे कारखाने हांगा बरेच आसात.

ह्या दोनूय देशांचे जगांतल्या बऱ्याच देशांकडेन आयात-निर्यातीचे वेव्हार जातात. उत्तर कोरियाचे वेव्हार रशिया आनी हेर कम्युनिस्ट राश्ट्रांवांगडा चड जातात.

वॉन हे दोनूय देशांचें चलन. मदल्या काळांत दक्षिण कोरियान वॉन च्या जाग्यार व्हान हें चलनी नाणें वापरांत हाडलें, पूण पर्थून कांय काळा उपरांत वॉन नाणें चालू केलें.

**येरादारी आनी संचारणः** उत्तर कोरियांत १९८५ मेरेन २२,००० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. रेल्वेमार्गांची लांबाय त्याच वर्सा ४,४७३ किमी. आशिल्ली. चडशी येरादारी रेल्वेमार्गांतल्यान जाता. यालू, तॅदाँग ह्यो उदकांतल्या येरादारीखातीर उपेगाक येवपी दोन मुखेल न्हंयो. वोन्सान, चोंजिन आनी नाजीन हीं अस्तंतेवटेनची जाल्यार नाम्पो, हेजू आनी तासादो हीं अस्तंतेवटेनचीं मुखेल बंदरां आसात. 'सिव्हील एव्हीएशन ॲडमिनिस्ट्रेशन' ही संस्था देशाभितरल्या आनी देशाभायल्या हवाईमार्गांचेर येरादारी करता. तेभायर आंतरराश्ट्रीय हवाईमार्गांचेर येरादारी करपी 'एअरोफ्लोट' ही आनीक एक विमान कंपनी आसा. सुनान हो मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ.

१९८४ मेरेन ह्या देशांत १० दिसाळीं उजवाडाक येतालीं. 'मिंजू चोसान' हें सरकाराचे मालकेचें अधिकृत खबरांपत्र जावन आसा. खबरांपत्रांचेर आनी हेर सगळ्या प्रसारमाध्यमांचेर सरकाराचें पुरायपणान नियंत्रण आसता. रेडिओ, दूरचित्रवाणीचीय हांगा बरी वेवस्था आसा.

दक्षिण कोरियांत १९८६ मेरेन ५१,००३ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले; जाल्यार ६,२८५ किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आशिल्ले. ह्या देशांत १० मुखेल बंदरां आसात. तेभायर १८ हेर बंदरांतल्यानूय येरादारी

चलता. 'कोरियन ॲअरलायन्स' ही खाजगी विमान कंपनी राश्ट्रीय आनी आंतराश्ट्रीय हवाई मार्गांवेल्या येरादारीचेर नियंत्रण दवरता. पुसान शारालागीं किमहे आनी सोल शारालागीं किंपो हे मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात.

१९८५ मेरेन हांगा २५ दिसाळीं आशिल्लीं. चडशीं खबरांपत्रां खाजगी आसात. रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी सेवेची बरीच उदरगत जाल्या. दूरचित्रवाणी केंद्रां सरकाराचे आनी खाजगी मालकेचीं आसात.

**लोक आनी समाजजीणः** कोरियन लोक मूळचे मंगोलॉइड वंशाच्या तुंगुइसिक लोकांचे वंशज आसात. दुसऱ्या वंशाची भरसण तांच्यांत चडशी दिसना. हे भायर कांय चिनी लोक हांगा आसात. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत जपान्यांक पर्थून धाडले.

पयलींच्या काळांत यांगबान ह्या उंचेल्या वर्गाच्या लोकांच्या हातांत सगळी सत्ता आसताली. शिक्षण आनी अधिकाराचे सगळे जागे तांकांच मेळटाले. सांगमिन ह्या वर्गांत शेतकार, खारवी, वेपारी, कारागीर हांचो आस्पाव जातालो. छानमिन ह्या सकयल्या वर्गांत सरकारी आनी खाजगी गुलाम, किसेंग (जपानी गेशासारक्यो) ह्यो मनोरंजन करपी दासी आनी खाटीक हांचो आस्पाव जातालो. १८९४ त, कायद्यान हे सगळे वर्ग नश्ट जाले तरी अजून दक्षिण कोरियांत यांगबान वर्गालागीं संबंद सांगपांत बऱ्याच जाणांक व्हडविकाय दिसता. लग्नां आनी हेर चालीरितींमदीं पोरन्या कल्पनांचो प्रभाव बरोच दिसून येता.

चडशे लोक बौध्द धर्माचे वा कन्फ्यूशियस मताचे आसात. गांवगिऱ्या वाठारांनी शामो पंथाचो प्रभाव दिसता. किरिस्तांव आनी चाँडोग्यो मताचे लोक अल्पसंख्य पूण संघटीत आसात.

गांवगिऱ्या वाठारांनी कोरियन घरां मातयेच्या वण्टींचीं आनी तणाच्या पाख्यांचीं आसतात. कंवचेबदलाक जनेलांचेर पातळ कागदाचो बरेचकडेन उपेग जाता. शिंयाळ्यांत जमनीपोंदच्यान उश्णताय मेळपाची उंदोल नांवाची खास वेवस्था आसता. घरांत भितर सरतना पांयतणां भायर काडून दवरतात. शीत, कोबीचो रस्सो, नुस्तें, सूप, मांस हांचें मसाल्याचें जेवण जमनीर वा शेंद्रेचेर बसून मोटव्या मेजार जेवतात. कोरियन बायलो कालसावांवयर आंगभर घागरो आनी वयर चोळयेभशेन पोलको वापरतात. पांयांनी रबराचे बूट घालतात. ल्हानसान गांवांनी वीज चडशी पावंक ना. उदकाखातीर बांयो आसात. हालींच्या काळांत घरां, भेस, खेळ आनी हेर विशीं बदल जायत आसात. अस्तंतेवटेनची जीण पध्दत, खेळ, कला प्रकार हांचो व्हडा प्रमाणांत प्रसार जायत चल्ना. खेळांमळार हांगा अस्तंतेवटेनचे खेळ बरेच लोकप्रिय जाल्यात. ऑलिंपिक खेळांनी कोरियन खेळगड्यांनी कुशळताय दाखोवन दिल्या. दक्षिण कोरियांत १९८८ ची ऑलिंपिक सर्त, सोल ह्या राजधानीच्या शारांत जाल्ली. आकीदो हो खाशेलो कोरियन कुस्तीचो प्रकार आसा.

लग्नाक आवय-बापायची संमती आसची पडटा. लग्नां मध्यस्तावरवीं जुळयतात. चलयांचीं लग्नां वीस वर्सां पुराय जावंचेपयलींच चडशीं जातात. चल्यांची पिराय मात हालीं वाडल्या. लग्नमोड आनी पर्थून लग्न ह्या गजालींनी कोरियन बायलांक समाजीक आनी अर्थीक चेंपणाक तोंड दिवंचें पडटा. उत्तर कोरियांत मात बायलांक स्वतंत्रताय आसा.

पोरने पध्दतीप्रमाण चंद्रिमाच्या आदारान वर्स थारायतात आनी ते प्रमाण आनी उत्सव मनयतात. एप्रिल ८ तारखेक बुध्द जयंती, ५ मे दिसा पूर्वजांचे मसंडीक भेट, १५ ऑगस्ट हो उपकाराचो दीस (thanks giving day) आनी चिनी नव्या वर्साचो दीस हे उत्सवांचे दीस आसतात.

लडायेक लागून ह्या दोनूय देशांच्या लोक संख्येचेर परिणाम जाल्लो.

कोगुर्मो राजघराण्याच्या काळांतलीं शिल्पां आनी वण्टींवयलीं चित्रां कोरियाच्या गिरेस्त सांस्कृतिक दायजाची गवाय दितात. हालींच्या काळांत सांग बॉम हे पोरने परंपरेच्या आनी यी इन सौँग ह्या आर्विल्ल्या वास्तववादी कलाकारांनी नामना मेळयल्या. तेभायर किमपोकचिन शिल्पकाराची आनी ओसेचांग ह्या हातबरपकलाकाराची संवसारभर तुस्त जाल्या. मातयेवेली आनी धातूची कारागिरी कोरियांत पयलींसावन बऱ्याच ऊंच पांवड्यावेली आसा. पोरन्या नृत्यप्रकारांक लोकांमदी बरोच मान आसा. नव्या प्रकारचीं नृत्यां, नाटकां हांची उदरगत जायत आसा. उत्तर कोरियांत कला, नाटकां ह्या सगळ्या प्रकारांक सरकाराचो आदार आनी तांचेर सरकारी नियंत्रण आसता.

**शिक्षणः** उत्तर कोरियांत राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण ९०% आसा. शिक्षण ११ वर्सांखातीर फुकट, सक्तीचें आनी एक समान आसता. ६ ते १५ वर्सां मेरेनच्या पिरायेखातीर आशिल्ल्या ह्या शिक्षणांत ५ वर्सां मुळावें, ४ वर्सां माध्यमिक आनी दोन वर्सां उच्च माध्यमिक पावंड्यावेल्या शिक्षणाचो आस्पाव जाता. मार्क्सवादी-लेनिनवादी विचार पध्दतीचें हांगा शिक्षण दितात. राश्ट्रीय फुडारी तयार करपाखातीर खासा 'क्रांतीकारी' शाळा आसतात. सप्टेंबर ते ऑगस्ट मेरेन शिक्षणीक वर्स आसता. पक्षाच्या वांगड्यांच्या भुरग्यांक शाळांनी प्रवेश घेवपाखातीर प्राधान्य दितात. शिक्षणाचेर पुरायपणान सरकाराचें नियंत्रण आसता.

उंचल्या पांवड्यावेलें शिक्षण दिवचेखातीर सुमार १४० वयर संस्था आसात. हातूंत राश्ट्रीय विश्वविद्यालयांचो आस्पाव जाता. महाविद्यालयांत प्रवेश दितना विद्यार्थ्याच्या आंगांतल्या गुणांपरस राजकी कार्य, समाजीक थर आनी वैचारिक पध्दत हांकां चड म्हत्व दितात. हांगाचे बरेच विद्यार्थी ऊंच पांवड्यावेलें शिक्षण घेवपाखातीर परदेशांत वतात.

दक्षिण कोरियांत साक्षरतेचें प्रमाण ९२% आसा. तत्त्वीक नदरेन शिक्षण फुकट, सक्तीचें आनी ६ ते १२ वर्सांमेरेन एकसमान आसता. ६ वर्सांचें मुळावें शिक्षण ताचे उपरांत ३ वर्सांचे माध्यमिक आनी ३ वर्सां उच्च माध्यमिक अशें १२ वर्सांचें शाळेंतलें शिक्षण आसता. १९७० सावन शाळांनी शिकपी विद्यार्थ्यांक लश्करी शिक्षण सक्तीचें केलां. सप्टेंबर ते जून मेरेन शिक्षणीक वर्स आसता. शिक्षणाचें माध्यम कोरियन भाशेंतल्यान आसा. माध्यमिक पावंड्यार इंग्लीश हो सक्तीचो विशय आसा.

खाजगी शिक्षण संस्था, राश्ट्रीय शिक्षणपध्दत आपणायतात. शिक्षण मंत्रालयाकडेन शिक्षणाची जापसालदारकी आसता. विश्वविद्यालयांचे प्रमाणूय बरेंच आसा. हांगाचे बरेच विद्यार्थी शिक्षणापासत अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, अस्तंत जर्मनी, कॅनडा, ब्रिटन ह्या देशांनी वचून रावल्यात. हे भायर परदेशांतलेय बरेच विद्यार्थी हांगा शिक्षण घेतात.

**भाशा आनी साहित्यः** कोरियाची कोरियन भास उराल अल्टाइक पंगडांतली आसा अशें मानतात. ती तुर्की, मंगोल आनी जपानी भाशेक बरीच लागींची आसा. कोरियाची हांगल ही उच्चाराप्रमाण बरोवपाची लिपी १४४६ त सेजोंग राजाच्या काळांत आनी ताच्याच यत्नांक लागून अस्तित्वांत आयली. पयलींसावन चिनी भाशा आनी लिपयेचो हांगा बरोच प्रभाव आशिल्लो, ताका लागून सुशिक्षीत लोक हांगल भाशेपरस चिनी भाशेंत बरोवपांत व्हडवीकाय मानताले. जपानी सत्तेच्या काळांत जपानी भाशेची हांगा सक्ती जाली. १९४५ उपरांत मात कोरियन भाशा आनी लिपी प्रचारांत आयली. दक्षिण कोरियांत अजून चिनी लिपयेचो वापर जाता. छापणावळीचे नदरेन हांगल भाशा चिनी भाशेसारकीच कठीण आसा.

इकराव्या आनी बाराव्या शेंकड्यांतल्या किम फूशिक आनी तेराव्या शेंकड्यांतल्या इर्योन हांणी तीन राज्यांच्या इतिहासाचेर बरयल्ले ग्रंथ हे म्हळयार कोरियन इतिहासाचीं साधनां आसात. संगीत आनी हेर विशयांचेर पंदराव्या शेंकड्यांमेरेन बरीच साहित्य रचणूक जाली. सोळाव्या शेंकड्यांत यी ह्वांग आनी युल्गोक हे नव-कन्फ्युशियसवादाचेर बरोवपी तत्त्वगिन्यानी जाले. काव्य, कथा हांचीय वाड जाली. विसाव्या शेंकड्यासावन हांगाच्या साहित्याचेर अस्तंतेकडल्या साहित्याचो प्रभाव स्पश्टपणान दिसूंक लागलो. यी हान्जिक, यी क्वांग-सू, किम थाँगइन, पाक चाँगाह्वा आनी सु-गिल हे कादंबरीकार, किम सेल्वाक हो कवी, किम चिन-सॉप हो निबंदकार, ओयांग जिन आनी यू चिजिन हे नाटककार आनी पेक चॉल टिकाकार हे

दक्षिण कोरियांतले नामनेचे साहित्यीक आसात.

उत्तर कोरियांतूय साहित्याची बरीच वाड जाल्या. चडशें साहित्य आँखिल्ल्या अशा अमूकूच विचारधारेंतल्यान बरयतात.

**म्हत्वाचीं थळां:** उत्तर कोरियांत प्येंगयांग ही राजधानी, शिमेलागीं आशिल्लें केसाँग शार, यालू न्हंयच्या लागसें शिनईजू, चिन्नांपो हें प्येंगयांगचे बंदर आनी उदेंत दर्या देगेवेलीं वनसान, हामहुंग आनी चंगचिन हीं बंदरां आनी उद्येगीक केंद्रां आसात.

दक्षिण कोरियांत सोल ही राजधानी, इंचोन हें थंयचें बंदर, पुसान हें दक्षिणेवटेनचें मुखेल शार आनी बंदर; ते भायर चिनजू, क्वांगजू, मॉकपॉ, शूनसेन, ताएगू, तॅजॉन, चंगजू हीं मुखेल शारां आसात. किआँगजू हें एक व्हड उद्येगीक केंद्र आसा. चेजू जुंव्यांचेर चेजू हें व्हडलें शार आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## कोर्देयरु, जोसेफ कार्डिनल:

पाकिस्तानांतल्या कराची शारांतलो आर्चबिशप. गोंयच्या बारदेस म्हालांतलो साल्वादोर दु मुंदू हो ताचो मूळ गांव. धर्मीक शिक्षण घेतल्या उपरांत १९४६ वर्सा, धर्मीक फुडारी म्हूण ताची नेमणूक जाली. उपरांत १९५८ वर्सा तो बिशप जालो. १९७३ वर्सा तो कार्डिनल जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## कोर्नबर्ग, आर्थर:

(जल्मः ३ मार्च १९१८, ब्रुकलिन, न्यूयॉर्क).

अमेरिकन वैज आनी जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ताणें १९४१ त रॉचेस्टर विद्यापीठाची एम्. डी. पदवी मेळयली. १९४२-४३ ह्या काळांत 'नॅशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ हेल्थ', मेरिलँड हांगा जीवरसायनशास्त्र विशयांत संशोधन केलें. १९५३ त, तो सेंट लुईस हांगाच्या वॉशिंग्टन विद्यापीठांत सूक्ष्मजीवविज्ञान शाखेंत प्राध्यापक जालो. १९५९ त, तो कॅलिफोर्नियांतल्या स्टॅनफर्ड विद्यापीठांत जीवरसायनशास्त्र विभागाचो मुखेल जालो.

दरेक कोशिकेंत खाशेल्यो D.N.A. सरपळ्यो कश्यो तयार जातात हें कोर्नबर्ग हाणें संशोधनांवरवीं स्पश्ट केलें. १९५५-६० मेरेन 'D.N.A. polymerase' ह्या एंझाइमाविशीं ताणें संशोधन केलें आनी तें अतिशुध्द स्वरुपांत तयार करून दाखयलें. D.N.A. (डीऑक्सिरिबोन्यूक्लिइक ॲसिड, Deoxyribonucleic Acid) आनी R.N.A. (रिबोन्यूक्लिइक ॲसिड, Ribonucleic Acid) हातूंत केल्ल्या मोलादीक संशोधनाखातीर ताका १९५९ चो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञान विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार सेव्हेरो ओचोआ ह्या शास्त्रज्ञावांगडा वांटून मेळ्ळो. पिरिमिडीन न्यूक्लिओटाइडांच्या (pyrimidine nucleotides) संश्लेशणाक मदत करपी एंझाइम विक्रिया, प्युरीन न्यूक्लिओटाइडाच्या (purine nucleotide) संश्लेशणांतलो म्हत्वाचो मध्य पदार्थ आनी सूक्ष्मजंतूंतल्या व्हडल्या रेणुभाराच्या पॉलिफॉस्फेटांच्या (polyphosphates) संश्लेशणाक मदत करपी एंझाइम हांचे म्हत्वाचे सोद कोर्नबर्ग हाणें लायले. १९६७ वर्सा परीक्षा नळयेंत संक्रमणशील आनी पुराय क्रियाशिल विशाणुजन्य D.N.A. तयार करपाक ताका यश आयलें. 'Enzymatic synthesis of D.N.A.' (1961) हें पुस्तक ताणें बरयलां.

- कों. वि. सं. मं.

## कोर्नो:

(मराठी- कण्हेर, कणेरी; हिंदी-कनेर; गुजराती-कणेर; कन्नड-कणिगिल, कणागले; नेपाली-ओडोरम; संस्कृत-हयमारक, अश्वदघ्न, प्रतिहास, करवीर, विषवृक्षांक, इंग्लीश-इंडियन स्वीटसेंटेड ओलिअँडर; लॅटीन- नेरियम इंडिकम, कूळ- ॲपोसायनेसी).

हें झाड हिमालयांत नेपाळसावन अस्तंतेक काश्मीर मेरेन १९५० मी. ऊंच गंगेच्या देगणांत, तेचभशेन मध्यप्रदेश आनी हेर वाठारांत चडकरून व्हाळांचे देगेक जाता. ह्या झाडाक तांबडीं, गुलाबी वा धवीं वासाचीं फुलां जातात. सादारणपणान वर्सूयभर हीं फुलां फुलतात, पूण एप्रिल ते जून म्हयन्यांत रूखाक चंवर येता. ह्या रुखाच्या सगळ्या भागांनी धवो दीख आसता. ताका दरेक पेराचेर दोन वा तीन फिकट पाचवीं आनी तोंकाळ पानां आसतात. पुष्पमुकुटाचो आकार घांटीसारको आसता. ताका शियाळ्यांत जोडयेन फळां येतात. तातूंत खूब बियो आसतात आनी बियेच्या तोंकाक पुडी कोराचो केंसांचो झुपको आसता. नव्या झाडाची लागवड कलमांनी (गार्फ) जाता. नेरियम ओलिअँडर (इंग्लीश) हे जातीचीं फुलां फिकट गुलाबी वा धवीं आनी परमळीत आसतात.

ह्या झाडाचे सगळे भाग विखारी आसतात. मुळां, साली आनी बियो हातूंत ग्लायकोसाइडां आसतात, तांची क्रिया काळजाचेर डिजिटॅलिनासारकी जाता. सालींत कांय प्रमाणांत टॅनीन आनी उडून वचपी तेल आसता. पानांत 'ओलिअँड्रिन' हें काळीज-बलवर्धक द्रव्य आसता. मूळव्याध आनी व्रण हांचेर भायल्यान ह्या झाडाचीं मूळां वाटून लायतात. मालीचें तेल कातीच्या रोगाक उपेगी पडटा. पानांचो ताजो रोस दोळ्यांच्या दुयेंसांक उपेगी पडटा.

**हळडुवो कोर्नो:** (मराठी-बिट्टी; हिंदी-पीला कनेर; गुजराती-पिली कणेर; संस्कृत-अश्वघ्न, करवीर; इंग्लीश- लकी नट, यॅलो ओलियँडर, लॅटीन-थेवेशिया नेरिफोलिया; कूळ- ॲपोसायनेसी). उंचाय ४.६५ ते ६.२० मी. हो धव्या दिखान भरिल्लो आनी पानां झडनाशिल्लो रूख. मुळचो दक्षिण अमेरिका आनी वेस्ट इंडीज ह्या वाठारांतलो. ह्या रूखाक लांब आनी अशीर रेशाकृती, वयल्यान चकचकीत पाचवीं, एका आड एक, अशीं गच्च पानां आसतात. खांदयेच्या तोंकांक वर्सूयभर सादारण परमळाचीं, मात्शीं व्हड अशीं हळडुवीं फुलां येतात. पुश्पमुकूट घांटीभशेन आनी आंवळून घेतिल्लेभशेन आसता. फळ (drupe), सादारण चवकोनी, लांबशें, वाटकुळें आनी थपकटें आसून तातूंत दोन वा चार त्रिकोनी बियो आसतात.

सुक्या वाठारांतल्या खंयच्याय पूण चडकरून रेंवट जमनींत हो रूख रोखडोच वाडटा. बियांत वखदी द्रव्यां आशिल्ल्यान तीं रानटी जनावरांक मारपाखातीर वापरतात. ह्या झाडांत थेवटीन आनी थेवेरेसीन हीं विखारी द्रव्यां आसतात. बियांचें तेल वखदी पूण विखारी आसता.

- कों. वि. सं. मं.

## कोलंबिया:

दक्षिण अमेरिकेच्या वायव्य वाठारांतलो प्रजासत्ताक देश. विस्तार १२° ३०' उत्तर ते ४° १३' दक्षिण आनी ६६' ५० अस्तंत ते ७९° १' अस्तंत (जुंवे सोडून). कॅरिबियन दर्यांतले सान आंद्रेस आनी प्रॉव्हिदेन्सिया जुंवे तशेंच पॅसिफिक म्हासागरांतलो माल्पेलो हो जुंवो मेळून क्षेत्रफळ ११,३८,९१४ चौ. किमी. लोकसंख्याः २,८२,३१,००० (१९८६). नामनेचो तारवटी क्रिस्तोफर कोलंबस हाच्या नांवावेल्यान ह्या देशाक कोलंबिया नांव मेळ्ळें. हाचे वायव्येक पनामा आनी कॅरिबियन दर्या, ईशान्येवटेन व्हेनेझुएला, आग्नेयेवटेन ब्राझील, नैर्ऋत्येक पेरु आनी एक्वादोर आनी अस्तंतेक पॅसिफिक म्हासागर आसा. ह्या देशाक १,३०० किमी. ची पॅसिफिक आनी १,६०० किमी. ची कॅरिबियन दर्याची देग लाबल्या.

**भूंयवर्णन:** अँडीज पर्वताक हांगा दक्षिण-उत्तरेक वचपी तीन फांटे फुटतात. हांची उंचाय सुमार ५,५०० मी. आसा. मदली वळ चड ऊंच आसा आनी तातूंत ५,७५० मी. मेरेन उंचायेचीं हिमान भरिल्लीं ज्वालामुखीचीं दोंगरातेमकां आसात. उदेंतेवटेचे दोंगराशाखेचे दोन फांटे जावन ते व्हेनेझुएलांत पावतात. उत्तरेवटेन एक स्वतंत्र, ग्रॅनायट फातरांचो, त्रिकोनी दोंगराचो वाठार सिएर्रा नेव्हादा दे सांता मार्ता ह्या नांवान नांवाजिल्लो आसा. तांतलीं कांय तेमकां ५,८०० मी. परस चड उंचायेचीं आसात. मामकेच अस्तंतेवटेन एक उणे उंचायेची दोंगराची वळ उत्तरेवटेन पनामामेरेन गेल्या. उत्तर आनी नैर्ऋत्य दर्यादेगांचेर मळां आसात. अँडीजाचो उदेंतेवटेनचो वाठार दोंगरी, पठारी आनी मळांचो आसा. उंचसकयलपणाचे नदरेन ह्या देशाची भूगोलीक परिस्थिती वेगळेच तरेची आसा.

दोंगराच्या वळींमदल्यान उत्तरेवटेन व्हांवपी आत्रातो, कौका आनी माग्दालीना ह्यो मुखेल न्हंयो आसात. त्यो कॅरिबियन दर्याक मेळटात.




कौका १,०२५ किमी. आनी माग्दालीना १,५५४ किमी. लांबायेच्यो आसात. त्यो बऱ्याच ल्हानसान न्हंयाचें, उदक घेवन उत्तरेवटेनच्या मळांच्या वाठारांत एकामेकांक मेळटात. सांगहवान आनी पातीआ ह्यो अस्तंतेवटेन व्हांवत वचून पॅसिफिक म्हासागराक मेळपी मुखेल न्हंयो. उदेंतेवटेन व्हांवपी कांय न्हंयो फुडें ओरिनोको न्हंयक आनी कांय न्हंयो फुडें ॲमेझॉन न्हंयेक मेळटात. कोलंबियाचे सामके दक्षिणेवटेनचे शिमेवयल्यान ॲमेझॉन न्हंय व्हांवता. पेरु-कोलंबियाचे शिमेवयली पूतूमांचो न्हंय ॲमेझॉनाक मेळटा.

**हवामानः** तापमानांत उंचायेक लागून फरक पडटा. पावसाच्या चड उण्या प्रमाणाचेर ऋतू बदलतात. समुद्रथर ते १,१०० मी. मेरेन उंचायेचेर तापमान ३८° से. सावन २९° ते २४° से. मेरेन सकयल पावता. ताच्याफुडें २,००० मी. मेरेन तापमान १८° से. परस उणें आसता आनी ३,००० मी. उंचायेचेर तर १३° से. आनी ताचेपरस उणें जाता. सामक्याच उंचेल्या वाठारांनी तापमान ०° से. आसता. ऊंच दोंगरातेमकां सदांच हिमान भरिल्लीं आसतात. बोगोटा ही राजधानी २,६४० किमी. उंचायेचेर आशिल्ल्यान थंय तापमान सादारणपणान १४° से. आसता. अस्तंत दर्यादिगेर आनी पर्वतांच्या वाठारांनी बरेच पावस पडटा. बोगोटा हांगा एप्रिल ते जून आनी ऑक्टोबर ते डिसेंबर ह्या काळांत चड पावस पडटा. उत्तरेवटेन मे ते ऑक्टोबर ह्या काळांत पावस पडटा. देशांतल्यान विषुववृत्त गेल्ल्यान पावस वर्सभर आसता. उदेंतेवटेनच्या वाठारांतलें हवामान चड उश्ण आसता.

**वनस्पत आनी मोनजातः** हांगा सात हजारांपरस चड प्रकारांची वनस्पत सांपडल्या. अस्तंत दर्यादिगेच्या वाठारांत आनी आग्नेयेवटेनच्या ॲमेझॉन देगणावटेनच्या वाठारांत रानां आसात. उत्तरेवटेनचो मळांचो वाठार आनी दोंगरी वाठाराच्या उदेंतेवटेन उण्या प्रमाणांत रानां आनी तणांचीं मळां आसात. उदेंतेवटेनच्या व्हेनेझुएला आनी ब्राझील मेरेन पातळिल्ल्या सॅव्हाना प्रकारच्या तणांच्या वाठाराक लानोज म्हण्टात. दोंगरांच्या देगणांनी दाट रानां आसतात जाल्यार पर्वतांच्या उंचेल्या वाठारांनी दोंगरी तणाचे 'पॅरामो' नांवाचे वाठार आसात. आंबे, केळीं, संत्रां, मोसंबी आनी तवशासारकीं फळां हांगा जातात. 'ॲव्होकॅडो' हें फळ बरेंच लोकप्रिय आसा. सामकेच उंचेले वाठार सोडल्यार सगळेवटेन तरेकवार प्रकारचे ताडाचे रूख आसात. वखदी वनस्पत आनी सावरीभशेन कापूस दिवपी कापोक रूख सगळेकडेन आसात.

प्यूमा, जाग्वार, तापीर, पेक्कारी, कापीबारा हे खासा विषुववृत्ताच्या वाठारांनी वाडपी प्राणी, विंगड विंगड तरांचीं माकडां, वांस्वेलां, हरणां, ल्हान गावपी सुकण्यासावन ऊंच पर्वतांतल्या कॉंडोर सारक्या व्हडल्या सुकण्यामेरेन कितल्याशाच प्रकारचीं सुकणीं, कांसव, शेड्डे, सोरोप, नुस्तें, मानगीं, तरांतरांचे कीटक अशी मोनजात हांगा आसा.

**इतिहासः** सुमार ७,००० वर्सांपयलीं हांगा पंगडांनी रावपी लोकांचो राबितो आशिल्लो. पंदराव्या शेंकड्यांत चिब्चा संस्कृतायेच्या लोकांचो राबितो हांगा जालो. हे लोक शेतवड आनी वेपार करताले. १५३८ वर्सा गोंसाल जिमेनेझ द केसादा हाणें हांगा स्पॅनिश सत्तेची थापणूक केली. तेन्ना ह्या वाठाराक न्यू ग्रेनाडा ह्या नांवान वळखताले. सेनाक हे तांचे वसाहती कडल्यान भांगर, पाचू आनी तंबाखू मेळटालो. राजकारण आनी वेपार हातूंत हांगाच्या लोकांक वांटो घेवपाक मेळनाशिल्ल्यान तांच्यामदीं असंतोश वाडूंक लागलो. १८१० त स्पॅनिश सत्तेआड ह्या लोकांनी कोलंबियाचे स्वतंत्रतायेची घोशणा केली. स्पॅनिश सत्तेन लश्कराच्या आदारान तांकां चिड्डूपाचो यत्न केलो; पूण ब्रॉइआका हांगा दोनूय पंगडांमदीं जाल्ल्या झुजाउपरांत ७ ऑगस्ट १८१९ दिसा ह्या देशाक स्वतंत्रताय मेळ्ळी. कोलंबियाक स्वतंत्रताय मेळोवन दिवपाखातीर वावुरपी खडेगांठ सुटकेझुजारी सायमन बोलिव्हार हाणें ग्रेटर कोलंबिया नांवाचें राज्य तयार करपाखातीर यत्न केले. ह्या राज्यांत कोलंबिया,

व्हेनेझुएला, एक्वादोर आनी पनामा संयुक्तपणान एकठांय येवपाचें ताचें सपन आसलें, पूण तें पुराय जालें ना. १८२९ उपरांत कोलंबियाचें स्वतंत्र राज्य तयार जालें. सुर्वेक हांगा राजकी थीरपण नाशिल्लें. पयलो राश्ट्राध्यक्ष पावला सांतांदेर १८३२ ते १९३६ मेरेन सत्तेर उरलो. ताणें राजकी आनी अर्थीक मळार बरोच वावर केलो. तरी पूण फुडल्या काळांत हुकुमशाय आनी एकमेकांमदलीं झगडीं चालूच उरलीं. हांगाचे कंझर्व्हेटिव्ह आनी लिबरल पक्ष सत्तेखातीर झुजां करूंक लागले. १९८६ त हांगा प्रजासत्ताकाची घटना संमत जावन कंझर्व्हेटिव्ह पक्ष सत्तेर आयलो. १९०३ त कोलंबियाचो पनामांतलो कांय वाठार अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांक दिवपाक कोलंबियान विरोध केलो. तेन्ना थंयच्या लोकांनी संयुक्त संस्थानांच्या पालवान उठाव केलो आनी कोलंबियाक तो वाठार वगडावचो पडलो. हांगाचे दोनूय पक्ष, लिबरल आनी कंझर्व्हेटिव्ह आरते-परते सत्तेर येताले. १९३० त जगभर जाल्ले अर्थीक मंदीचो फायदो घेवन लिबरल पक्षान सत्ता हातासली. पूण तांच्या मदल्या झगड्यांक लागून १९४६ त तांणी ती वगडायली. १९४८ लिबरल फुडारी जॉर्ज एलीकार गैतान हाचो खून जालो आनी त्या फुडल्या धा वर्सांत यादवी झूज, हुकुमशाय आनी लश्करी कायदो हांच्या बोवाळांत सुमार एक लाख लोकांक मरण आयलें. जनरल गुस्ताव रोजास पिनील्ला हाचेकडल्यान लश्करी सत्ता लोरिआनो गोमेझ हाचेकडेन गेली. ताचे राजवटींत अर्थीक मळार देशाची बरीच अधोगत जाली. तेन्ना मे १९५७ त लिबरल आनी कंझर्व्हेटिव्ह पक्षांनी एकठांय येवन लश्कराच्या पालवान सत्ता आपल्या हातांत घेतली. मे १९५८ त, आल्बेर्तो लेरास कामार्गो हो लिबरल फुडारी अध्यक्ष जालो. लश्करी कायदो काबार जावन दोनूय पक्षांनी कबलात केली आनी सोळा वर्सांखातीर म्हळ्यार १९७४ मेरेन काँग्रेस, मंत्रीमंडळ आनी हेर सरकारी सुवातींचेर दोनूय पक्षाचे सारके प्रतिनिधी आसचे अशें थारलें. अध्यक्षपदाची जापसालदारकी दोनूय पक्षांकडेन आसताली. १९६२ त कंझर्व्हेटिव्ह पक्षाचो डॉ. गिलेर्मो लिऑन व्हॅलेन्शिया, १९६६ त डॉ. कार्लोस लेरास रेस्ट्रापो हो लिबरल फुडारी, १९७० डॉ. मिसेल पास्त्राना बोरेरो हो कंझर्व्हेटिव्ह अशे अध्यक्ष जाले. १९७४ त कबलातीची मुदत सोंपल्या उपरांत लिबरल पक्षाचो आफोंस लोपीस मिचेलसान राश्टाध्यक्ष जालो. १९७८ तल्या वेंचणुकांनीय ह्याच पक्षाक भौमत मेळून तांचो फुडारी ज्युलिओ सीझर टर्बे आयाला राष्ट्राध्यक्ष जालो. ताच्या काळांत कोलंबियान हेर आठ लॅटीन अमेरिकन राश्ट्रांवांगडा ॲमेझॉन कबलात केली. १९८२ त बेलिसारिया बेटांकुर हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. लिबरल आनी कंझर्व्हेटिव पक्षांमदीं सत्ता चलोवपाखातीर एकामेकांमदीं समजिकाय चालूच आशिल्ली. १९८६ च्या वेंचणुकांनी मात लिबरल पक्षाक पुराय भोवमत मेळून एकाच पक्षाची सत्ता खऱ्या अर्थान हांगा आयली आनी व्हिर्जीलीओ बार्को वार्गास राश्ट्राध्यक्ष जालो.

**राज्यवेवस्था:** सद्याच्या केंद्रीय प्रजासत्ताकाचो कारभार १८८६ तल्या संविधानाप्रमाण चलता. ह्या संविधानांत उपरांत बरेचशे बदल जाल्यात; पूण मुळावीं तत्त्वां तशींच आसात. विधीमंडळ दोन घरांचें आसा. सीनेटांत ११४ वांगडी जाल्यार प्रतिनिधीमंडळाचे १९९ वांगडी आसात. राश्ट्राध्यक्ष हो राश्ट्राचो मुखेली आसात. वेंचणुको दर चार वर्सां उपरांत जातात. एक फावट वेंचून येतकच राश्ट्राध्यक्षाक फाटोफाट पर्थून दुसरे खेप राश्ट्राध्यक्ष जावपाची संद नासता. मंत्रीमंडळ वेंचपाचो अधिकार राश्ट्राध्यक्षाक आसता. १९७७ सावन १८ वर्सां पुराय जाल्ल्या दरेकल्याक मत दिवपाचो अधिकार दिला. पयलीं बायलांक मत दिवपाची मेकळीक नाशिल्ली, पूण १९५७ सावन बायलांकूय मत दिवपाचो अधिकार आसा. धळावो राज्यकारभार २२ प्रांतांतल्यान चलता. प्रांतांनी राश्ट्राध्यक्षान नेमणूक केल्ले राज्यपाल आसतात. कंझर्व्हेटिव्ह आनी लिबरल हे हांगाचे दोन मुखेल पक्ष.

**अर्थीक स्थिती:** अर्थवेवस्थेचो मुखेल भार शेतवडीचेर आसता. तांदूळ, ऊंस, केळीं, कापूस, कोको, तंबाखू, काफी, मको, गंव, बटाट, बार्ली हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. शेतवडीच्या मळार व्हडा प्रमाणांत यांत्रिकीकरण जावपाक लागलां. काफी आनी केळीं निर्यात केल्ल्यान ह्या देशाक बरेंच परकी चलन मेळटा. गोरवां आनी हेर मोनजात पोसपाच्या उद्येगाकूय म्हत्व आसा.

कोळसो आनी पेट्रोलियम हांगाच्या खणींनी मेळटें, तरी हेर इंधनाचीं साधनां व्हडलीशीं नात. भांगर, रुपें, तांबें, शिशें, पारो (mercury), मॅंगनीज, पाचू, लोखण, गंधक आनी प्लॅटिनम हांची बरीच सांठवण हांगा आसा. प्लॅटिनमची जगांतली सगळ्यांत चड सांठवण हांगा आसा अशें मानतात. सीपाकीरा खणींत आनी कॅरिबियन दर्यादेगेर मीठाचें उत्पादन जाता.

देशाचो बरोच वाठार रानांनी भरिल्लो आसलो तरी ताचो जाय तसो उपेग जायना. सद्या रबराचें प्रमाण उणें आसा. प्लायवूड आनी कागद तयार करपाखातीर लागपी लांकूड बरेंच आसा.

न्हंयांनी आनी दर्यांत नुस्तें मेळटा. हांगासावन हेर देशांक नुस्त्याची निर्यात व्हडा प्रमाणांत जाता.

१९३० उपरांत हांगा उद्येगधंद्यांची वाड जावंक लागली. मेदेलीन, काली आनी बोगोटा ह्या शारांनी व्हड व्हड कारखान्यांची निर्मणी जाली. तंबाखू, कपडे, पायतणां, शिमीट, रसायनां ह्या सारक्या उद्येगधंद्यांची बरीच उदरगत जाल्या. युरोपीय देशांकडेन आनी अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांकडेन ह्या देशाचे आयात-निर्यात संबंद आसात. पर्यटन उद्येगांतल्यान बरेंच परकी चलन मेळटा.

पेसो हें हांगाचें चलनी नाणें. अर्थवेवस्थेच्या वेव्हाराचो वावर राश्ट्रीय बँक करता. तेभायर हेर वेपारी बँकोय हांगा आसात.

**येरादारी आनी संचारण:** कोलंबियांत १९८३ मेरेन १,०५,२०१ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले आनी १९८५ मेरेन ३,४०३ किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आशिल्ले. येरादारीखातीर हांगाच्यो न्हंयो बऱ्योच उपेगाच्यो आसात. बारांक्विला, कार्ताजेना, सांता मार्ता, बुएनाव्हेंतुरा आनी तुमाको हीं हांगाचीं मुखेल बंदरां. हवाई मार्गाचेर येरादारी करपी चार राश्ट्रीय विमानकंपन्यो मुखेल आसात. हवाई मार्गांवेल्यान संवसारांतल्या बऱ्याच देशांकडेन कोलंबियाची येरादारी चलता. १९६४ मेरेन हांगा ३१ दिसाळीं आशिल्लीं. रेडिओ आनी दूरचित्रिवाणीचीय बरी वेवस्था आसा. खबरांपत्रांक मत उक्तावपाची मेकळीक आसा. खबरांपत्रां खाजगी मालकेचीं आसात.

**लोक आनी समाजजीण:** १९८० मेरेन हांगाचे लोकसंख्येंत ४७.८% मेस्टिझो, २३.०% मुलाटो, २०.०% यूरोपीय कोराचे, ६.०% निग्रो, १.६% ॲमरइंडियन्स आनी हेर १.६% आशिल्ले. ह्या देशांत धर्मस्वतंत्राय आसा. ९७% लोक रोमन कॅथलिक धर्माचे आसात. किरीस्तांव धर्माचे सगळे सण आनी उत्सव ते मनयतात. हांचे संस्कृतायेचो इतिहासा संग्रहालयांनी जतनाय करून दवरिल्ल्या वस्तूंवेल्यान समजता. सांस्कृतिक कलाप्रकारांमदीं युरोपीय आनी इंडियन कलेची भरसण जावन एक खाशेलेपण दिसून येता. पूर्विल्ल्या इंडियन वंशाच्या चिब्चा लोकांनी हांगा संस्कृताय आनी कलेच्या मळार बरोच उंचेलो पांवडो हुंपिल्लो. १७ व्या शेकड्यासावन युरोपांतल्या लोकांच्या राबित्याउपरांत कलेच्या मळार बरेच बदल घडून आयले. हेर लॅटीन अमेरिकन राश्ट्रांभशेनूच सादारणपणान लोकांची जीणपद्धत आसा. संगीत, कला ह्या सारक्या मळार वावुरपी अकादेमी हांगा आसात.

**शिक्षण:** कोलंबियाचें राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण ८१% आसा. शाळेंतलें शिक्षण फुकट, सक्तीचें आनी एकसारकें आसा. मुळावें शिक्षण ७ ते ११ वर्सांमेरेन चलता. हें पांच वर्सांचें शिक्षण जाल्याउपरांत चार वर्सां माध्यमिक आनी दोन वर्सां उच्च माध्यमिक अशें वट्ट ११ वर्सांचें शाळेंतलें शिक्षण आसता.

फेब्रुवारी ते नोव्हेंबर मेरेन शिक्षणीक वर्स आसता. शिक्षणाचें माध्यम स्पॅनिश भाशेंतल्यान आसा. धर्मीक संस्था आनी हेर खाजगी संस्थाय सरकारी संस्थांवांगडा शिक्षणाच्या मळार वावर करतात. शिक्षणाची

जापसालदारकी केंद्र सरकार आनी प्रांतांतल्या प्रशासनाची आसा.

उंचेल्या पावंड्याचें शिक्षण दिवपाची जापसालदारकी २२ सरकारी आनी १७ खाजगी विश्वविद्यालयांनी सांबाळ्ळ्या. उंचेल्या पावंड्याचें शिक्षण घेवपाखातीर हांगाचे बरेच विद्यार्थी अमेरिकेची संयुक्त संस्थानां, फ्रांस, अस्तंत जर्मनी, ब्रिटन, कॅनडा, मॅक्सिको ह्या सारक्या देशांनी वचून रावल्यात.

**भाशा आनी साहित्यः** दिसपट्ट्या वेव्हारांत लोक स्पॅनिश भाशा वापरतात. दक्षिण अमेरिकेंतल्या सगळ्या देशांमदीं हांगाची स्पॅनिश भाशा प्रमाण अशें मानतात. साहित्याच्या मळार ह्या देशान बरीच नामना जोडल्या. जॉर्ज आयझाक्स (१८३७-९५) आनी खोसे रिवेरा (१८८०-१९२९) हे हांगाचे नामनेचे कादंबरीकार. कारो (१८१७-५३), आर्बोलेदा (१९१४-९२), खोसे सिल्व्हा (१८६५-९६), व्हेलेन्शिया (१८७३-१९४५) हे नामनेचे कवी हांगा जावन गेले.

१९८२ वर्साचो साहित्याखातीरचो नोबेल पुरस्कार हांगाचो नामनेचो लेखक *गाब्रिएल गार्सिया मार्केझ (*)* हाका ताच्या 'सिएन आनोस दे सोलेदाद' हे कादंबरीखातीर फाव जालो.

**म्हत्वाचीं थळांः** बोगोटा ही राजधानी सांस्कृतिक केंद्र म्हूण गाजिल्ली आसा. मेदेलीन शार खणींखातीर नांवाजलां, जाल्यार काली हें एक उद्येगीक केंद्र आसा. कार्ताजेना, बूकारामांगा, कुकुटा हीय शारां उद्येगांक लागून उजवाडांत आयल्यांत. बुएनाव्हेंतुरा हें हांगाचें बंदर बरेंच नामनेचें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## कोलंबोः

श्रीलंकेची राजधानी. सोबीत कृत्रिम बंदर आनी गजबजिल्लें वेपारी केंद्र म्हूण कोलंबो शाराची नामना आसा. हें शार अस्तंत किनाऱ्याचेर केलानी न्हंयच्या मुखाकडेन वसलां. हांगाचें हवामान उश्ण आनी दमट आसता. हांगाचो पावस सरासरी २३० सेंमी. आसता. डिसेंबर ते फेब्रुवारी म्हयन्यांत ह्या शारांतलें हवामान बरें आसता.

इ.स.प. ५४३ त कोलंबो शाराची वसणूक जाल्ली. पूण ताच्या पुर्विल्ल्या इतिहासाची खबर मेळना. मदल्या काळांत चिनी आनी अरबी वेपारी हांगा येताले. १५१७ त पोर्तुगेजांनी ह्या शाराची वसणूक केली आनी कोलंबसाचे यादीक ह्या शाराक कोलंबो हें नांव दिलें. चड काळ मेरेन कोलंबो शार पोर्तुगेजांकडेन उरलें ना. १६५७ त हांगा डच आयले आनी तांणी हें शार आपले सत्तेखाला घेतलें. फुडें डचांकडल्यान १७९६ त हें शार ब्रिटिशांनी घेतलें.

इंग्लंड आनी ऑस्ट्रेलिया ह्या देशाच्या मदीं आशिल्ल्यान कोलंबो शाराचे उदरगतीक खुबूच नेट आयलो. दुसऱ्या म्हाझुजावेळार जपानाच्या आड कोलंबो शार म्हत्वाचें केंद्र आशिल्लें. फुडें १९४८ त सीलोनाची सुटका जाली आनी कोलंबो शाराक राजधानीचें थळ प्राप्त जालें.

कोलंबो शारांत बंदर, फोर्ट, पेट्टा आनी सिनॅमन (तिखी) बाग अशे मुखेल विभाग आसात. फोर्टांत संसदभवन, क्वीन्स हाउस (राश्ट्रपती भवन) आनी कार्यालयां आसात. पेट्टांत वेपार चलता, जाल्यार सिनॅमन बागेंत गिरेस्तांची वस्ती आसा.

कोलंबो शारांत कितलेशेच ल्हानल्हान उद्येग चलतात. तेभायर हांगाच्या वेलावटी भागांत कापडाच्यो गिरण्यो आसात. सीलोन देशांतलो च्या, रबर, मसाल्याच्यो आनी नाल्लाच्यो वस्तू हांची ह्या शारांतल्यानूच निर्यात जाता आनी तांदूळ, कोळसो, तेल, यंत्रसामान हांची आयात ह्याच शारांत जाता.

हांगाची लोकसंख्याः १७,६१,००० (१९८४). ह्या शारांत तरेकवार धर्माचे लोक रावतात तरीय पूण बौध्द धर्माचे लोक चड आसात. हांगाची मुखेल भास सिंहली. तेभायर तमिळ आनी इंग्लीश ह्योय भासो हांगा उलयतात.

१९४२ वर्सा कोलंबो शारांत सीलोन विद्यापीठाची थापणूक जाल्ली. १९५९ त हांगाच्या विद्योदय आनी विद्यालंकार ह्या दोन बौध्द विद्यालयांक विद्यापीठीय पांवडो प्राप्त जालो.

कोलंबो शाराच्या उत्तर भागांत किरिस्तांवांची पुर्विल्ली इगर्ज आसा. हांगाचे केलाना न्हंयचेर कालिनाचें बुध्दाचें देवूळ आसा. ह्या देवळांतली बुध्दाची व्हड मूर्त न्हिदिल्ले अवस्थेंत दिश्टी पडटा. वण्टीवेल्या रंगीत चित्रांखातीर ही मूर्त सुंदर दिसता. पेट्टांतलें मलिकगुंडा हें थळ सुंदर आनी सादें आसा. ह्या भागांतलीं हिंदूंचीं देवळां तोखणाय करपासारकीं आसात. सिनेमन बागे लागसार आशिल्ली व्हिक्टोरिया बाग, नगरभवन, वस्तूसंग्रहालय आनी प्राणिसंग्रहालय हांची बरीच नामना आसा. हांगाचें प्राणिसंग्रहालय हें आशिया खंडांतलें एक बरें संग्रहालय अशें मानतात. हांगाच्या बंदरालागींच एक पोरन्या घड्याळासयत दीपगृह आसा.

कोलंबो शारांत आनीक एक पळोवपासारकें थळ आसा, तें म्हळ्यार माऊंट लव्हिनिया. हें थळ म्हळ्यार दक्षिणेक ११ किमी. दर्यांत घुशिल्लें इल्लेशें ऊंच फातराचें तोंक. पेंवपाखातीर आनी पिकनिकेखातीर ह्या थळाक खाशेलें म्हत्व आसा.

एक सुंदर आनी तरेकवार रंगाचें अस्तंती पध्दतीचें आर्विल्लें शार, तेचपरी हिंदी म्हासागरावेले येरादारीचें मुखेल थळ म्हूण कोलंबो शारांत भोंवडेकारांची गर्दी आसता. कोलंबो शाराच्या ६२ चौ. किमी. विस्तारांत ट्राम, दोन मजली बसी, टॅक्सी, रिक्शा हांची येरादारी आसता. हांगाच्यान १२ किमी. आग्नेयेक कोलंबोचो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## कोलवेंकार, दत्ताराम गणेशः

(जल्मः १० जुलय १९३०, चिंचोणें-साश्टी).

गोंयचो सुटके झुजारी. शिक्षण एस्.एस्.सी. मेरेन. १९४७ वर्सासावन तो सुटकेझुजांत वांटो घेतालो. सांवर्डे वाठारांतल्या पुलाचेर सुरींग घालपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेचपरी सरकारी ऑफिसराक रजिस्टर पार्सलान बाँब धाडपासारक्या घातकी कामांत तशेंच पोर्तुगेज न्यायाधीश क्वाद्रुश हाका पोस्टाच्या पार्सलान बाँब धाडपाच्या कटांत ताणें वांटो घेतिल्लो. जेन्ना ह्या कटाचो सोद लागलो, तेन्ना १३ जून १९५६ दिसा ताका ताच्या वांगड्यांसयत पोलिसांनी अटक केलो. उपरांत गोंयच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार ताची चवकशी जाली आनी ताका तीन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. मे १९५९ वर्सा ताची बंखदणींतल्यान सुटका जाली. गोंय सुटके उपरांत तो 'भारतीय राश्ट्रीय काँग्रेस' हे संघटनेचो वांगडी जालो. १९६२ वर्सा तो चिंचोणें-देवसू ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हूण वेंचून आयलो. उपरांत १९७८ वर्सा तो थंयचो सरपंच जालो.

१५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कोलार गोल्ड फील्डः

भारतांतल्या म्हैसूर राज्याचे आग्नेयेक पातळिल्ली भांगराची खण. विस्तार १२° ५' ते १३° ०' उत्तर, ७८° १८' ते ७८° २१' उदेंत. लोकसंख्याः१,४४,४०६ (१९८१).

कोलार वाठारांतल्या दोंगराचेर भांगराची माती मेळटा. भांगराचे मातयेचे सुमार २६ पटे उत्तर-दक्षिण दिकेक १/४ मैल ते ४ मैल मेरेन पातळिल्ले आसतात. १८७६ त हांगा भांगर काडपाचें काम सुरू जालें. २६ पट्यांतल्या चॅम्पियन रीफाचेरूच खणप करतात. हें खणपाचें काम फकत म्हैसूर गोल्ड माइनिंग कंपनी लि. (८१२८ फूट), चॅम्पियन रीफ गोल्ड मायनस् ऑफ इंडिया लि. (९२३३ फूट), उरेगम गोल्ड माइनिंग कंपनी लि. (९७५८ फूट) आनी नंदीद्रुग माईन्स लि. (७९७५ फूट) ह्यो चार कंपनी करतात. हातूंत गंधक खनीज फकत एक प्रतीशत आसता आनी शुध्द धातू खनीज ८ ते ४८ ग्राम प्रति टन आसता.

सगळ्यांत पयलीं उत्पादन १८७५ त एम्. एल्. लैवल हाणें उरेगम हांगा काडलें.

- कों. वि. सं. मं

**कोलो**: *वर्गीकरण*- संघ (phylum): रज्जुमान (Chordata), उपसंघः पृष्ठवंशी (Vertebrata), वर्गः स्तनिवर्ग (Mammalia), उपवर्गः येरिया, अववर्गः युथेरिया, गणः कार्निव्होरा, कूळः कॅनिडे, प्रजातीः व्हुल्पीस (Vaulpes) जातीः बेंगालेसिस (Bengal Fox).

कोल्याचें शास्त्रीय नांव 'कॅनिस ऑरियस' अशें आसा. कोल्यांच्यो विंगड विंगड जाती आसात. तांचे प्रकार अशेः

V. Corsal (Corsal Fox): ल्हान कोलो. कात हळडुवी पुडीकोराची वा तांबडी पुडीकोराची. राबितो- पूर्व यूरेशिया.

V. Cana (Hoaly Fox): ६० सेंमी. लांबायेची युरोपियन जात, कात वयर करडी पूण सकयल धवी.

V. Macrotis (Kit Fox) वा V.Velox (Plains Kit Fox): व्हडल्या कानांचो, करडो, हळडुवो, तपकिरी आनी धवो रंग आशिल्लो काळ्या शेंपडेचो कोलो. राबितोः उत्तर अमेरिका.

V. Pallida (Pale Fox वा Desert Fox): हळडुवो पुडीकोराचो कोलो. राबितोः उत्तर आफ्रिका.

V. Rupelli (Rapell's Fox): व्हडल्या कानांचो, करड्या रंगाचो कोलो. राबितोः उत्तर आफ्रिका आनी नैर्ऋत्य आशिया.

V. Ferrilata (Tibetan Sand Fox): ल्हान कानांचो, ल्हान शेंपडेचो हळडुवो कोलो. राबितोः तिबेट, नेपाळ.

कोलो सादारणसो मध्यम आकाराच्या सुण्याभशेन दिसता. कोल्याक लांब उबे कान, मोटवे पांय आनी नाजूक ल्हान सोंड आसता.

व्हडले, लांब केंस आशिल्ली कात, मोव, सोबीत धवी शेंपडी, काळे कान आनी काळे पांय आशिल्लो कोलो उत्तर अमेरिकेंत दिसून येता. लांबाय सुमार ९०-१०५ सेंमी. शेंपडीः सुमार ३५-४० सेंमी. वजनः ७ किग्रॅ. हो कोलो चडसो शेतांच्या मळार वा रानांनी दिसून येता. कोले चड करून हुंदीर, सोंशे, तांतयां, फळां, सुकणीं, कोंबयो आनी मांस खातात. ऊंसाच्या पिकाचें कोलो बरेंच लुकसाण करतात. तो विंचू, पाली, जीव-जंतू लेगीत खाता. दर्यादिगेवेल्या भागांतले कोले नुस्तीं, कुल्ल्यो खातात.

शिंयांच्या दिसांनी कोले माजार येतात. ५१ दिसांच्या गाभअवधीउपरांत मादी ५-१० पिलांक एके घोलींत वा व्हडल्या पोखरिल्ल्या बिळांत जल्माक घालता. घोलींत ५ सप्तकां मेरेन पिलांचें पालन-पोशण जाता. उपरांत तीं पिलां स्वतंत्र जावन आपली शिकार आपुणूच मेळोवपाक लागतात.

भारतांत कोल्याच्यो ऑरियस, इंडिकस आनी नेरिया ह्यो प्रजाती आसात. भारतीय कोलो पॅलेस्टाइन, अरबस्तान, श्रीलंका आनी ब्रह्मदेशांत दिसून येता. तो भारतांत हिमालयाच्या मुळसासावन कन्याकुमारी मेरेन सगळेकडेन दिसून येता. भारतीय कोल्यांची उंचाय ३८-४३ सेंमी.; तकलेसकट शरिराची लांबाय ६०-७५ सेंमी.; शेंपडी २०-२७ सेंमी.; वजन ८-११ किग्रॅ.; भारतीय कोल्याची शेंपडी आनी कान काळे आसतात. कातीचो रंग भुरकट पुडीकोराचो करडो आसता. हिमालयांतल्या कोल्यांचो रंग गाड हळडुवो आसता.

कोल्याक कसलेंय हवामान, दमट जंगलां, उक्तीं मळां, वाळवंटां मानवतात. हिमालयांत ३,६५० मी. उंचायेचेर लेगीत तो सांपडटा. चड करून शारां आनी खेडेगांवांच्या लागसार रानांचेर, दोंगरार, शेतजमनींत बिळां करून वा पडंग वास्तूंत घर करून कोलो रावता.

Vulpes Vupelli (Sand Fox वा Desert Fox) ही कोल्याची जात पाकिस्तानच्या नैर्ऋत्य वाठारांत आनी माकारान दर्यादिगेकडल्या वाठारांत दिसून येता. इराण, अफगाणिस्तान, रशिया आनी पाकिस्तानच्या अस्तंती वाठारांतल्या दोंगरांनी Blanford's fox ही जात दिसून येता. हे जातीच्या कोल्यांपसून दाट आनी मोलादीक फर मेळटा. ताच्या शेंपडेच्या गोंड्यांत धवे आनी काळे केंस आसतात. मनीस कोल्याची शिकार मजेखातीर वा ताचे कातीखातीर करता. वेपारी उत्पादनाखातीर तयार केल्ली Silver Fox जातीच्या कोल्याची चामडी (fur) खूब नामनेक पावल्या.



कोलो खास करून एकटोच शिकारेक वता. तो निशाचर (noctumal) आशिल्ल्यान भक्ष्य मेळोवपाखातीर रातचो भायर सरता. गर्मी चड आसल्यार उदक पियेवपाक तो दिसाचो भायर सरता. कोले धांवपांत खूब चपळ आसतात आनी केदेंय व्हडलें अंतर ते वराक सुमार ३० किमी. वेगान धांवन वचूंक शकतात.

कोले Brucellosis, Leptospirosis आनी Fularemia ह्या रोगजंतूंचो प्रसार करतात. 'रॅबिज' हो भिरांकूळ रोग जाल्ल्या कोल्यापसून मनशाक धोको आसता.

पोशिल्ल्या कोल्यांपसून Silver Fox जातीच्या कोल्यांचें संकरण सगळ्यांत पयलीं प्रिन्स एडवर्ड आयलंड हाणें १८९४ त गुप्ततेन केलें. उपरांत १९३०-१९४० ह्या काळांत तांबड्या रंगाचो नर कोलो आनी तांबड्या-नारिंगी रंगाची मादी कोली हांचें संकरण (cross-breeding) करून तयार केल्ली रुप्याचे कातीभशेन आंग आशिल्ली Silver Fox जात खूब लोकप्रिय जाली.

'कोलो बुद्दीन भोलो' अशी एक ओंपार आसा आनी कितल्याशाच कथांनी, लोकांकाणयांनी, खास करून इसाप-नीतींत कोल्याचो आस्पाव आसता.

बरेच कोले एकठांय येवन केन्नाकेन्नाय तिनसांजच्यो कुयो घालतात (रडटात). असल्यो कुयो म्हळ्यार कसल्यातरी दुश्चीन्नाचो संदेश आसता असो समज आसा.

- प्रा. एस्. आर. गनीहार

**कोल्हटकर, श्रीपाद कृष्णः** (जल्मः २९ जून १८७१, बुलढाणा-विदर्भ; मरणः १ जून १९३४, पुणे).

मराठींतलो नामनेचो नाटककार, विनोदी साहित्यीक आनी समीक्षक. मुळावें शिकप अकोला हांगा जालें. महाविद्यालयीन शिकप पुणे आनी मुंबय हांगा पुराय करून कायद्याची एल्एल्. बी. ही पदवी मेळयली आनी वकिलीचो वेवसाय सुरू केलो.

१८९३ त. 'संगीत विक्रमशशिकला' ह्या नाटकाचेर टिकात्मक बरप करून ताणें आपले साहित्यीक सेवेची सुरवात केली. 'वीरतनय' (१८९६) हें ताचें पयलें मराठी नाटक. उपरांत, ताणें 'मूकनायक' (१९८७), 'गुप्तमंजूष' (१९०३), 'मतिविकार' (१९०७), 'प्रेमशोधन' (१९११), 'वधूपरीक्षा' (१९१४), 'सहचारिणी' (१९१८), 'जन्मरहस्य' (१९१८), 'परिवर्तन' (दुसरी आवृत्ती १९२३), 'शिवपावित्र्य' (१९२४), 'श्रमसाफल्य' (१९२९) आनी 'मायाविवाह' (१९२८) हीं बारा नाटकां बरयलीं. हातूंतलीं पयलीं आठ नाटकां रंगमाचयेर आयलीं.

'साक्षीदार' हो ताचो पयलो विनोदी लेख १९०२ त, 'विविधज्ञानविस्तार' ह्या नेमाळ्यांत उजवाडाक अयलो. उपरांत १९१० त, 'सुदाम्याचे पोहे' अर्थात 'अठरा धान्यांचे कडबोळे' हो विनोदी

लेखसंग्रह उजवाडाक आयलो. ह्या संग्रहाची तिसरी आवृत्ती 'सुदाम्याचे पोहे' अर्थात 'साहित्यबत्तिशी' ह्या नांवान १९२३ त उजवाडाक आयली. ताचें हें पुस्तक मराठी साहित्यांत एक मोलाचें पुस्तक जावन आसा. ह्या पुस्तकांत ताणें धर्मवेव्हार, भौशीक जीण, साहित्यिक वेव्हार आनी महाराष्ट्रांतल्या जिणेचीं उपहासगर्भित रूपां चितारल्यांत. ताचें टिकात्मक बरप, अध्यक्षपदावयलीं उलोवपां आनी निबंद ही बरपावळ 'कोल्हटकरांचा लेखसंग्रह' (१९२३) ह्या नांवान उजवाडाक आयली. ताणें 'दुटप्पी की दुहेरी' (१९२५), 'श्यामसुंदर' (१९२५) ह्यो कादंबऱ्यो आनी कांय ल्हान काणयो बरयल्यात.

'गीतोपायन' हो ताचो कविता-झेलो १९२३ त उजवाडाक आयलो. 'बहु असोत सुंदर संपन्न' हें महाराष्ट्र गीत कोल्हटकरान बरयलां. १९३५ वर्सा ताणें आपली आपजीण बरयली. हातूंत १९२० मेरेनचें ताचे जिणेचें दर्शन घडटा. १९१३ वर्सा ताणें 'भारतीय ज्योतिर्गणित' हो ग्रंथ बरयलो. मराठी रंगमाचयेक ताणें एक नवें रूप आनी नवो आकार दिलो. आपल्या नाटकांत ताणें कल्पकपणाचो आनी खटकेबाज उतरांचो उपेग केलो. ताणें बरयल्लीं नाट्यगीतां लोकांचे जिबेर खूब तेंप घोळत उरलीं. विनोदी आनी उपहासगर्भ अशे ताचे बरपावळीक लागून एक नवोच वाङ्मयप्रकार जल्माक आयलो. ताचे बरपावळींत समाज सुदारपाचें तत्त्वगिन्यान दिसून येता. कोल्हटकरान जें समीक्षात्मक बरप केलें, तातूंतल्यान दर एकल्या साहित्यिक प्रस्नाचो खोलायेन आनी शास्त्रशुध्द अभ्यास केल्लो जाणवता. ताणें जायत्या पुस्तकांचें आस्वादन केलां. कितल्याशाच ग्रंथांच्यो ताणें बरयल्ल्यो प्रस्तावना, साहित्य मेळाव्यांनी केल्लीं उलोवपां आनी मुळावो अभ्यास करून बरयल्ले कितलेशेच लेख हातूंतल्यान ताणें साहित्यिक प्रस्नांची बारीकसाणेन विस्कटावणी केली.

१९२२ त पुण्याक भरिल्ल्या दुसऱ्या कविसंमेलनाचें अध्यक्षपद आनी १९२७ त पुण्यांतूच भरिल्ल्या महाराष्ट्र साहित्यसंमेलनाच्या बाराव्या अधिवेशनाचें अध्यक्षपद हाचो भोवमान ताका फाव जालो. तशेंच सांगली हांगा भरिल्ल्या तिसऱ्या ज्योतिश संमेलनाचो (१९२०) तो अध्यक्ष आशिल्लो.

- प्रा. सुमंत कनयाळकर

**कोल्हापूर:** दक्षिण महाराष्ट्र राज्यांतलें नामनेचें तीर्थक्षेत्र, कोल्हापूर जिल्ह्याचें मुखेल ठाणें आनी आदल्या कोल्हापूर संस्थानाची राजधानी. संस्थानांच्या विलीनीकरणावेळार कोल्हापूर संस्थान विलीन जातकच कोल्हापूर जिल्हो तयार जालो. पंचगंगा न्हंयचे दक्षिण देगेर पुणे-बेंगळूर म्हामार्गार पुण्यासावन २३२ किमी. अंतराचेर हें शार वसलां. लोकसंख्याः ३,५१,३९२ (१९८१).

ह्या शाराचें मूळ नांव 'करवीर' आशिल्लें. हें शार गोमंत पर्वताच्या मुळसांत वसलां, असो उल्लेख भागवतांत आयला. पुराणकाळांत करवीर हें अस्तंत भारतांतलें एक नामनेचें तीर्थ, शक्तिपीठ आनी वेपारी केंद्र आशिल्लें. स्कंद पुराणांतल्या करवीर महात्म्यांत ह्या नगराक 'दक्षिण काशी' अशें म्हळां.

कोल्हापूर शाराचो इतिहास खूब पूर्विल्लो आसा. ह्या इतिहासाचे हिंदू राजवट, मुसलमानी राजवट आनी मराठ्यांची राजवट अशे तीन वांटे जातात. १८७७ वर्सा जाल्ल्या उत्खननांत पयल्या आनी दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या सातवाहनाचे राजवटींतलें वैभवशाली नगर आठव्या-णव्या शेंकड्यांत जाल्ल्या भूंयकांपान भूंयभरवण जालें, असो पुरावो मेळटा.

कोल्हापूर शारालागसार आशिल्ले पंचगंगा न्हंयचे देगेर ब्रह्मगिरी नांवाची दोंगुल्ली आसा. १९४५ तल्या उत्खननांत ब्रह्मगिरी दोंगुल्लेचेर २००० वर्सां पयलींचें एक नगर मेळ्ळां. थंय आयदनां, हत्यारां आदी जायत्यो वस्तू मेळ्ळ्यो. सातवाहन, चालुक्य, राष्ट्रकूट, शिलाहार आनी यादव हांची चवदाव्या शेंकड्यामेरेन ह्या शाराचेर सत्ता आशिल्ली. हांगा आशिल्लें नामनेचें अंबाबाईचें (महालक्ष्मीचें) देवूळ णवव्या शेंकड्यांत राष्ट्रकुटांनी पुराय केलें. ह्या राष्ट्रकुटांच्या घराण्यांतल्या अमोघवर्ष ह्या राजान लोकांक शांती मेळची म्हूण आपलें एक बोट कातरून अंबाबाईक दिल्लें, अशी कथा प्रचलित आसा. शिलाहार घराण्यांतल्या धा मुखेल्यांनी सुमार २५० वर्सां (९७५-१२५५) ह्या प्रदेशाचेर सत्ता चलयली हांगा तांचे खुबशे संस्कृतीक अवशेश मेळ्ळ्यात.

फुडें हो प्रदेश १३४७ वर्सा बहामनी सुलतानांच्या हातांत गेलो. १४९८ सावन ह्या प्रदेशाचेर विजापूरकरांचो शेक चलतालो. छत्रपती शिवाजीन विजापुरकारांकडल्यान हो प्रदेश जिखून घेतलो. १७०७ वर्सा छत्रपती शाहू आनी राजारामाची बायल ताराबाई हांचेमदीं ह्या प्रदेशाखातीर संघर्श सुरू जालो आनी १७३० वर्सा कोल्हापूर प्रांत ताराबाईक दिलो. फुडें कोल्हापूर संस्थानाचें विलीनीकरण जाय मेरेन ह्या प्रदेशाचेर ताराबाईच्या वंशजांची सत्ता आशिल्ली.

ह्या काळांत ब्रिटीश ल्हवल्हव करून कोल्हापूर प्रदेशाचेर शेक गाजोवंक लागिल्ले. तातूंत १८१२, १८२७ आनी १८२९ अश्यो कोल्हापूरच्यो तीन कबलाती ब्रिटिशांकडेन जाल्यो. कोल्हापूर मुलूख ब्रिटिशांक दिवन तांच्या तंत्रान राज्य चलोवपाचें मान्य केल्ल्यान फुडें कांय काळ कोल्हापूर राज्य तिगून उरलें. हातूंत शाहू महाराज (१८८४-१९२२) हाचे कारकिर्दीत कोल्हापूर प्रदेशाचें म्हत्व खूब वाडलें. शिक्षण, मल्लविद्या, संगीतकला, चित्रकला अशा खुबशा कलांची हांगा उदरगत जायत गेली. भारताच्या स्वातंत्र्या उपरांत कोल्हापूर संस्थानाचें सामीलीकरण घेवपांत कांय आडखळी आयल्यो, पूण निमाणें १ फेब्रुवारी १९४९ दिसा सामीलनाम्याचेर सय जावन धा लाखांची तैनात थारायली.

मुंबय राज्याचो मुखेलमंत्री ह्या नात्यान बा. गं. खेर हाणें कोल्हापूरचो कारभार आपल्या हातांत घेतलो, तेन्ना सावन कोल्हापूर हो प्रदेश महाराष्ट्राचो जिल्हो जालो.

कोल्हापूर शार रेल्वेमार्गान मुंबय नगराक जोडलां. हांगा ल्हानसोच विमानतळ आसा. समृध्द वाठार आनी कोंकणाची उतारपेठ मेळिल्ल्यान वेपार आनी उद्येगीक मळार कोल्हापूरची खूब वाड जाल्या. गोडा खातीर हे पेठेक भारतभर नामना मेळ्ळ्या. ऊंसाचें पीक हांगा भरपूर येता. ते खेरीज हांगा कितलेशेच साकरे कारखाने आसात. हांगा तांदूळ, मूग, तंबाखू, मिरसांगो, हळद, हातमागावेले कपडे, जोतीं आनी चामड्याच्यो वस्तू हांचो वेपार चलता.

हांगाचे उद्येगीक वसाहतींत ल्हानव्हड २५० वयर कारखाने आसात. तातूंत डीझेल इंजिनां, विद्युत् उपकरणां, मोटारीचे आनी सायकलीचे सुटे भाग, वखदां, शिमीट, शाबू आदींचे जायते कारखाने आसात.

कोल्हापूर हें मराठी सिनेमा सृश्टीचें आद्यपीठ समजतात. हांगा दोन सिनेमा निर्मणी केंद्रां आसात. आंतरराश्ट्रीय नामना मेळिल्लीं मल्लविद्या केंद्रां, नामनेच्यो संगीत शाळा, शिवाजी विद्यापीठ आनी हेर संस्कृतीक केंद्रां ह्या शारांत आसात. तेचपरी अंबाबाईचें देवूळ, नक्षीकाम आशिल्लें जैनांचें देवूळ, तीन राजवाडे, टाऊनहॉल, सोबीत पुतळे, दर्गा, शंकराचार्याचो मठ, कोटीतीर्थ, रंकाळा तळें, पंचगंगेचो घाट, साठमारी अशीं जायतीं पळोवपासारकीं थळां कोल्हापूर शारांत आसात.

हांगाचें अंबाबाईचें देवूळ ही एक नामनेची वास्तू. हें देवूळ शाराच्या मध्यभागाक आसा. ह्या देवळाचो फुडो अस्तंत वटेन आसून उजवेवटेन महाकाली आनी दावे वटेन महासरस्वतीचीं देवळां आसात. महाकाली देवूळ हो स्थापत्यशिल्पाचो सुंदर नमुनो जावन आसा.

अंबाबाईच्या देवळांतली अंबाबाईची मूर्त काळ्या पाशाणाची आनी तीन फूट उंचायेची आसा. हे मुर्तीचेर मातुलिंग, गदा, धाल आनी पानपत्र अश्यो चार वस्तू आसात. ह्या देवळांत अप्रूप नक्षीकाम दिश्टी पडटा. मुसलमानांची सत्ता येवचे पयलीं ह्या देवळाचें म्हत्व बरेंच वाडिल्लें. पूण मुसलमानांनी ह्या देवळाची नासधूस केली. १७१५ मेरेन देवळांतली मूर्त पुरोहितागेर आशिल्ली. ताचे उपरांत मात ती मूर्त परती देवळांत दवरून तिची थापणूक जाली. महाराष्ट्रांतल्यो बायलो हे देवीक सौभाग्याची देवी मानतात. जैन लोक हे देवीक पद्मावती म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**कोसंबी, दामोदर धर्मानंद:** (जल्मः ३१ जुलय १९०७, गोंय; मरणः २९ जून १९६६, पुणें).

नामनेचो गणिततज्ञ आनी प्राच्यविद्यापंडीत. संवसारीक नामना जोडपी बौध्द धर्माचो अभ्यासक, धर्मानंद कोसंबी हाचो पूत. ताचें आवयचें नांवः बाळाबाई. ताच्या भयणींचीं नांवां: माणिक आनी मनोरमा.

दामोदराचें तिसरी यत्तेमेरेनचें शिकप पुण्यांत जालें. १४ ऑक्टोबर १९१८ ह्या दिसा आपलो बापूय आनी भयण माणिक हांचेवांगडा बॉस्टन हांगा तो पावलो. थंय तो केंब्रिज हांगासर रावलो. सुर्वेक ताचें रिज टॅक्निकल हायस्कुलांत शिकप जालें. नाजूक भलायकेक लागून शारीरिक कश्टाचें काम ताका तोललें ना. त्यावेळार प्रिन्सिपॉल वुड हाच्या सल्ल्यान बापायन ताका हार्वर्ड ग्रामर स्कुलांत घालो. ह्या हायस्कुलांत मुळाव्या शिक्षणावांगडाच चार वर्सांचें हायस्कुलाचें शिकप दिताले. १९२४ त दामोदर केंब्रिज (बॉस्टन) हायस्कूलांतल्यान निमणी परिक्षा पयल्या वर्गांत पास जालो. तेखातीर हार्वर्ड विद्यापीठांत प्रवेशाखातीर ताची वेंचणूक जाली, तशेंच उंचेल्या शिक्षणाखातीर शिष्यवृत्तीय मेळ्ळी. पूण घरच्या यादीन तो गांवघरा आयलो. भारतांतल्या महाविद्यालयांत ताका प्रवेश मेळूंक अपेस आयलें. हाका लागून ताचें एक वर्स फुकट गेलें. १९२६ त धर्मानंदान अमेरिका भोंवडेवेळार दामोदराक हार्वर्ड कॉलेजींत प्रवेश मेळोवन दिलो. १९२९ वर्सा तो पदवीधर जावन भारतांत पावलो.

दामोदर हो मूळ गणित विशयाचो विद्यार्थी आसलो. १९४१ त गणित शिकयतासतना त्या विशयाचेर संशोधन करून तें प्रबंधरुपान मांडपाचो वावर ताणें केलो. बनारस हिंदू युनिव्हर्सिटी, फर्ग्युसन कॉलेज हातूंत ताणें अध्यापनाचो वावर केलो. १९४६ त टाटाच्या मूलभूत संशोधन केंद्रांत ताची गणित विभागाचो मुखेल म्हूण नेमणूक जाली. शिकागो विद्यापीठ आनी चीन हांगाच्या संस्थांनी ताची 'व्हिजीटींग प्रोफेसर' म्हूण नेमणूक केली. १९४८-४९ त, अमेरिकेंत आनी १९४९ त इंग्लंडांत ताणें अभिछात्र म्हूण काम केलें.

आयज **'Path Geometry'** ह्या विशयावेल्या ताच्या संशोधनाक संवसारांत मान्यताय मेळ्ळ्या. आर्विल्ल्या सुप्रजाजनशास्त्रांत ताणें 'समीकरणां' ही मोलाची भर घाल्या. टाटाचे संस्थेंत, अणुविशींच्या संशोधनांत गणिताचो पालव घेवन आदार करपांत ताचो वांटो म्हत्वाचो आसा. विद्युत् परिगणना यंत्राच्या आदारान युनेस्कोचे वतीन संशोधनाचें कार्य ताणें ह्या काळांत केलें. आनुवंशिकींतल्या गुणसूत्रांमदलें अंतराचें म्हत्व ताणें बारीकसाणेन सांगलां. नाणकशास्त्र हें शास्त्र आसा, हें ताणें असंख्य नाण्यांच्या अभ्यासावेल्यान सिध्द करपाचो यत्न केलो. कार्ले हांगा ब्राह्मी लिपीचो सोद तशेंच पूर्वाश्रम संस्कृतायेचे जायते अवशेश आनी तेविशींचीं तार्किक अनुमानां, हातूंतल्यान ताच्या पुरातत्त्वविद्या विशयावेल्या सखोल अभ्यासाची कल्पना येता.

मुंबय हांगा १९४६ त नाविक बंडाळेच्या वेळार, ब्रिटीश सैनिकांनी नागरिकांच्यो हत्या ज्या गुळयांनी केल्यो, त्यो गुळयो डमडम गुळयां परस घातकी आसात, हें ताणें सप्रमाण दाखोवन दिलें. ताच्या ह्या संशोधनाक लागून ब्रिटीश सरकाराचीं काळीं कर्तुगां उक्ताडार आयलीं.

संस्कृत भास आनी इतिहास हाचोय ताणें अभ्यास केलो. मार्क्सवादी पध्दतीन भारताच्या इतिहासाचो अभ्यास करप्यांमदीं दामोदराची स्वतंत्र अशी सुवात आसा. भर्तृहरीचो 'शतक' तशेंच विद्याकराचो 'सुभाषितरत्नकोष' ह्या ग्रंथांचें ताणें संपादन केलें. अमरकोशांतल्या उतरांची फोडणिशी ताणें समाजशास्त्रीय पध्दतीन केली. ब्राह्मणाच्या गोत्रांविशीं ताणें संशोधनपर लिखाण केलां. आपल्या निमाण्या दिसांत, तो कौटिल्याच्या अर्थशास्त्र ह्या पुस्तकाचो अणकार करतालो. आंतरराष्ट्रीय शास्त्रीय नेमाळ्यांतल्यान ताचे २०० परस चड प्रबंध उजवाडाक आयल्यात. गणितशास्त्रांतल्या मौलिक प्रबंधांचो हो भारतापुरतो तरी उच्चांक जावन आसा. 'इंट्रोडक्शन टू द स्टडी ऑफ इंडियन हिस्टरी' (१९५६), 'एन्शंट इंडिया' (१९६५) आनी 'मिथ अँड रीॲलिटी' हे ताचे ग्रंथ म्हत्वाचे आसात.

रशिया, अमेरिका सारक्या देशांत ताचे व्हड भोवमान जाले. ताका गणितांतले 'रामनुजम् यादस्तीक पुरस्कार' (१९३४) आनी 'भाभा पुरस्कार' (१९४७) फाव जाले.

'सोव्हिएट ॲकॅडमी ऑफ सायन्सेस' (रशिया) हांगा ताणें 'अणुऊर्जेचो शांततेखातीर कसो उपेग करूं येता' ह्या विशयाचेर व्याख्यान दिल्लें. आईन्स्टाइन आनी वेब्लेन ह्या म्हान शास्त्रज्ञांवांगडा शास्त्रीय विशयांचेर भासाभास करपाची संदूय ताका मेळ्ळी. ताच्या मरणाउपरांत ताची सगळी बरपावळ संकलीत करपाखातीर उपराष्ट्रपतीच्या यजमानपणाखाल एक समिती घडोवपांत आयली.

-कों. वि. सं. मं.

**कोसंबी, धर्मानंद दामोदर:** (जल्मः ९ ऑक्टोबर १८७६, सांकवाळ; मरणः ४ जून १९४७, सेवाग्राम).

बौध्द धर्माचो बारीकसाणेन अभ्यास करून संवसारीक कीर्त जोडपी एक म्हान गोंयकार पंडीत.

बापायचें नांव दामोदर. आवयचें आनंदीबाय. आज्याचें नांव रामचंद्र कोसंबी. आजी सीताबाय मडगांवच्या नाईक शंखवाळकार घराण्यांतली आसली. ताका एक भाव आनी पांच भयणी आसल्यो. भावंडांमदीं तो सगळ्यांत ल्हान आसलो.

धर्मानंदाचो जल्म जालो, तेन्ना ताची आवय खूब दुयेंत पडिल्ली, देखून ताका नांव दवरपाचे भानगडींत कोणूच पडलो ना. ताका पिवपाक भायलें दूद दिवचें पडटालें. फुडें दूद दिवप म्हळ्यारूच 'धर्म' असो अर्थ करून ताका 'धर्माचो' (दानाचो) अशें म्हणपाक लागले. फुडें हेंच नांव 'धर्मानंद' अशें जालें.

धर्मानंद भुरगेपणांत अशक्त आनी दुबळो आसलो. ताका मंदबुध्दीचो म्हूण वळखताले. आठ-णव वर्सांचो जायमेरेन ताका धड जेवपाक लेगीत कळनासलें.

जून १८९१ वर्सा तो बाळाबाय लाड हिचेकडेन लग्न जालो. १९०७ वर्सा तांका चलो जालो, ताचें नांव दामोदर. दामोदरान प्राच्यविद्यापंडीत आनी गणिततज्ञ म्हूण मुखार नांव मेळयलें. चलयांचीं नांवां 'माणिक' आनी 'मनोरमा' आसलीं.



ताच्या शिक्षणाविशीं ताच्या बापायक खूब आस्था आसली. सुर्वेक घरांत, माती सारयल्ले पाटयेर तो अक्षरां शिकलो. फुडें ताका मडगांव आनी चिखली हांगा भयणीच्या घरा शिकपाक दवरलो. १९८८ वर्सा शहापूर-बेळगांवांत भयणीगेर यत्ता दुसरेखातीर, म रा ठी सरकारी शाळेंत ताचें नांव घालें. थंय ताची हुशारकाय नदरेंत भ र ता ली. तालीम सोडून हेर सगळ्या विशयांनी ताचो क्रमांक पयलो आसतालो. तेखातीर ताका एकदम मराठी पांचवे यत्तेंत बसयलो. थंयूय ताचो पयलो क्रमांक चुकलोना. पूण भलायकी बरी नाशिल्ल्यान ताका गोंयांत परतुचें पडलें. १८९९ वर्सा तो मंगळुरा गेलो. पुणे हांगा १९०० वर्सा पावतकच ताणें संस्कृताचें शिक्षण घेवपाक सुरवात केली. त्याच वर्साच्या ऑक्टोबर म्हयन्यांत तो काशी गेलो. थंय ताणें एक वर्स चार म्हयने अभ्यास केलो. कोलंबो हांगा श्री सुमंगलचार्याक गुरू मानून ताणें पाली भाशेचो अभ्यास

केलो. धर्मानंदान संस्कृत, पाली आनी इंग्लीश भासांचें गिन्यान जोडलें तशेंच कठीण अशा पाली ग्रंथांचें मर्म ताणें समजून घेतलें. रशियेंत वचून रशियन भाशेचें गिन्यानूय ताणें जोडलें. बौध्द धर्माचो अभ्यास आनी हेर गिन्यान जोडपाखातीर धर्मानंद पुणे, ग्वाल्हेर, काशी, नेपाळ, श्रीलंका, ब्रह्मदेश आनी हेर देश-विदेशांत भोंवलो. आपल्या देश-विदेशांतल्या भोंवड्यांनी ताणें बुध्दाविशींचें गिन्यान एकठांय केलें. तेखातीर जायत्यो हाल-अपेष्टाय ताणें सोसल्यो.

धर्मानंद १५ ऑगस्ट १९०६ सावन कलकत्ता शारांत आपल्या गिन्यानाच्या प्रसाराची बुन्याद घाली. सुर्वेक नॅशनल कॉलेजींत आनी उपरांत कलकत्ता विद्यापीठांत ताणें पाली भाशेचो प्राध्यापक म्हूण वावर केलो. कलकत्त्यांत ताची सत्येंद्रनाथ टागोर, मनमोहन घोष हांचेकडेन वळख जाली. १९१० त, मुंबय हांगा डॉ. वूड्स हाका ताणें पाली भास शिकयली. १९१२ त तो फर्ग्युसन कॉलेजींत तो प्राध्यापक जालो. थंय तो पाली भास शिकयतालो. हार्वर्ड विद्यापीठांत प्रा. जे. एच्. वूड्स हाच्या आपोवण्यावेल्यान चार फावट तो अमेरिकेक गेलो. थंय ताणें बुध्दघोषाच्या 'विसुध्दीमग्ग' ह्या पाली ग्रंथाचें संपादन कैलें. नोव्हेंबर १९२२ त धर्मानंदान गुजरात विद्यापीठांत पाली भाशेचो प्राध्यापक म्हूण तीन वर्सां काम केलें. उरिल्ल्या काळांत ताणें संशोधनूय केलें. लेनिनग्राड (रशिया) हांगा बौध्द संस्कृतायेच्या अभ्यासाखातीर एके संस्थेची थापणूक केल्ली. थंय ताणें (१९२९-३०) पाली भाशेचें अध्यापन केलें.

गांधीजीकडेन ताची वळख आचार्य कृपलानी हाका लागून जाली. काकासाहेब कालेलकर होवूय ताचो बरो इश्ट आसलो. धर्मानंदाक भारतीय राजकी घडणुकांविशीं जबर आस्था आसली. अमेरिकेंत आसतना लेगीत भारतीय सुटके चळवळीचेर ताणें नदर दवरिल्ली. गांधीच्या सत्य आनी अहिंसा ह्या दोन तत्त्वांमदीं ताका बुध्दाची शिकवण दिश्टी पडिल्ली. दरेक काँग्रेसीच्या अधिवेशनाक तो चुकनासतना हाजीर रावतालो. गांधीजीच्या 'दांडीयात्रा' ह्या बेकायदा मीठ तयार करपाच्या सत्याग्रहाक लागून तो खूब प्रभावित जालो. १४ मे १९३० दिसा ताणें रत्नागिरींत शिरोडा हांगा सत्याग्रह केलो. तेन्ना ताका कांय वेळा पुरतो पोलिसांनी धरलो. शिरोड्यासावन परततकच विलेपार्लेचे छावणींत तो कांय काळ रावलो. थंय तो तरणाट्या स्वयंसेवकांखातीर एक वर्ग चलयतालो. कामगारांमदीं सत्याग्रह करपाखातीर जागृताय निर्मुपाचो ताणें यत्न केलो. परळ वाठारांत शिबिरां उक्तीं करून आपल्या वावराकूय ताणें सुरवात केली. १० ऑक्टोबर १९३० दिसा धर्मानंदाक बंदखणींत उडयलो. फुडें ह्या खटल्यांत तो दोशमुक्त थारलो.

बौध्द धर्म आनी तत्त्वगिन्यानाचो प्रसार करचेपासत ताणें 'आनंदविहार' आनी 'बहुजनविहार' ह्या संस्थांची मुंबयंत थापणूक केली. 'विसुध्दिमग्ग' हो म्हत्वाचो ग्रंथ ताणें पयलीं रोमन लिपींत १९२७ त तयार केलो. १९४० वर्सा हो ग्रंथ देवनागरींत उजवाडाक आयिल्लो. 'अभिधम्मट्ठ संग्रह' वेली 'नवनीत टीका' (१९४१) आनी विसुध्दि-मग्गावेली 'विसुध्दिमग्ग-दिपिका' (१९४३) हे ताचे विवरणग्रंथ विद्वता-पूर्ण आसात. 'बुध्दलीलासारसंग्रह' (१९१४), 'बुध्द धर्म आणि संघ' (१९२४), 'निवेदन' (आत्मचरित्रपर- १९२४), 'समाधिमार्ग' (१९२५), 'बौध्द संघाचा परिचय' (१९२६), 'भगवान बुध्द' (१९३४), 'बोधिसत्त्व' (१९४९), 'सुत्तनिपाताचे मराठी भाषांतर' (नेमाळ्यांतल्यान १९३७ आनी ग्रंथरुपांत १९५५), 'पार्श्वनाथाचा चातुर्याम धर्म' (१९४९), हे ताचे मराठी ग्रंथ उल्लेख करपा सारकेआसात. गांधीजीच्या सेवाग्रामांतल्या आश्रमांत ताका मरण आयलें. बाकीबाब बोरकार हाणें ताच्या 'भगवान बुध्द' ग्रंथाचो कोंकणींत अणकार केला.

- कों. वि. सं. मं.

## कोसेंयसांव, पाउलु आंतोनिओ दीयश द :(जल्मः ? १७६९, केळशी; मरणः एप्रिल, १८५३).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. धर्मीक शिक्षण घेतले उपरांत तो चोडण सेमिनारिचो अधिकारी (rector) जालो. १८१५-३४ काळ मेरेन तो गोंयचे आर्किडायोसिजाचो व्हिकार जनरल (vicar general) आसलो. १८३५ वर्सा ताका व्हिकार कापितुलार (vicar capitular) म्हूण वेंचून काडलो. १८३५ ते १८३७ वर्सा मेरेन ताणें गोंयचे आर्किडायोसिजाचो कारभार चलयलो. उपरांत ताणें आपल्या वावराचो राजिनामो दिलो. फुडें फेब्रुवारी १८५३ वर्सा ताका पर्थून व्हिकार जनरल (vicar general) केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कोसेल, आल्ब्रेख्ट :(जल्मः १६ सप्टेंबर १८५३, रॅस्टॉक; मरणः ५ जुलय १९२७, हायड्लबर्ग).

जर्मन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ताणें वैजकी शिकप रॅस्टॉक आनी स्ट्रासबर्ग हांगा केलें. १८७८ त ताणें एम्. डी. पदवी मेळयली. तेउपरांत ताणें बर्लिन शरीरक्रियाविज्ञान संस्थेंत पयलीं नामनेचो जीवरसायनशास्त्रज्ञ फेलिक्स होपे-झायलर आनी उपरांत एमील द्यु ब्वा. रेमाँ हाचो सहाय्यक म्हूण काम केलें. १८९५-१९०१ ह्या काळांत तो मारबर्ग हांगाचे शरीरक्रियाविज्ञान संस्थेंत प्राध्यापक आनी संचालक आशिल्लो. मरणावेळा तो हायड्लबर्ग विद्यापीठांत गुणश्री (emeritus) प्राध्यापक आनी विद्यापीठाचे प्रथिन संशोधन संस्थेचो संचालक आशिल्लो.

कोसेल हाणें कार्बनी रसायनशास्त्राचीं तत्त्वां वापरून जित्या ऊतकांचो (tissues) रसायनशास्त्रीय अभ्यास करपाखातीर म्हत्वाचें संशोधन केलें. कुडींतल्या प्रथिन उत्पादनाकडेन संबंदीत आशिल्ल्या न्युक्लिइक अम्लां (nucleic acids) विशीं ताणें केल्ल्या मोलादीक संशोधनाखातीर कोसेल हाका १९१० त, शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी शास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. 'साइट श्रिफ्ट फ्यूर फिझियोलोगीशे केमी' (Zeitschrift fur Physiologische Chemie) ह्या नेमाळ्याचो तो सुमार ३० वर्सां संपादक आशिल्लो आनी ताचे चडशे संशोधनपर निबंद ह्या नेमाळ्यांत उजवाडाक आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## कोहीमाः

भारताचे उदेंत शिमेर आशिल्ल्या नागालँड राज्याची राजधानी. हें शार शिलाँगचे उदेंतेक २२२ किमी. आनी कोहीमा दोंगराचे वळींत १५६१ मी. वयर आसा. वट्ट आवांठ ७२०९ चौ. किमी. (१९८१). लोकसंख्याः २,७३,२८१ (१९८१).

थंड आनी बरें हवामान आशिल्ल्यान पयलींसावन हाका लश्करी ठाणें म्हूण नामना मेळ्ळ्या. आसाम, मणिपूर आनी फुडें ब्रह्मदेशाकडेन एक रस्तो वता. हो रस्तो कोहीमांतल्यान गेल्ल्यान हाका राजकी तशेंच लश्करी म्हत्व प्राप्त जालां. दुसऱ्या म्हाझुजावेळार आझाद हिंद सेनेन जपानाचो आदार घेवन कोहीमा प्रदेशाचो ताबो घेतलो.

हांगा तांदूळ, कापूस, संत्रां, बटाट, लांकूड, कोंडो आनी नागा लोकांच्या कितल्याशाच कलाकृतींचो वेपार चलता. गांवांत शासकीय कार्यालयां, रुग्णालय, शेतीकेंद्र, हस्तकला, उद्येग, नागा संस्कृतीय संशोधन संस्था, तीन महाविद्यालयां आनी विमानतळ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## कोळगांवकार, काशिनाथ परशुरामः (जल्मः ४ मार्च १९३५, तिसवाडी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो सरकारी नोकरी करतालो. 'आझाद गोमंतक दल संघटने'चो तो वांगडी आसलो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो सुटके झुजाऱ्यांक शस्त्रां पावोवप, तिरंगी बावटे लावप, वण्टीपत्रकां लावप असलीं कामां करतालो. १४ ऑगस्ट १९५५ दिसा पोलिसांनी ताका धरून बंदखणींत घालो. २६ ऑक्टोबर १९५६ दिसा ताची सुटका जाली. १९७३ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## कोळगांवकार, रघुनाथ परशुरामः (जल्मः ५ ऑक्टोबर

१९२७, कांदोळी-बारदेस).

गोंयचो सुटकें झुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो सरकारी नोकरी करतालो. 'आझाद गोमंतक दल संघटने'चो तो वांगडी आसलो. सुटके झुजाऱ्यांक शस्त्रां पावोवप, तिरंगी बावटे लावप, वण्टींपत्रकां लावप असलीं कामां तो करतालो. १४ ऑगस्ट १९५५ दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी सतरा म्हयने बंदखणींत दवरलो. १९७३ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**कोळसो:** घट वा फुसफुशीत थर आशिल्लो, कार्बनाचो आम्पाव आशिल्लो जळवाक उपेगी पडपी फातर. कोळसो ह्या उतराची व्युत्पत्ती 'कला' ह्या संस्कृत उतरापसून जाल्या.

हायड्रोकार्बन हो कोळशाचो मुखेल घटक आसा. कोळसो कार्बनी ऊतकासावन **(tissue)** एका खास तरेच्या जीवाश्मिकरणाक लागून जाला. तातूंत कार्बनीक ऊतक जायत्या जीवरसायनीक आनी भूवैज्ञानिक प्रक्रियेंतल्यान वता, जाका लागून ताचें प्राकृतीक स्वरूप आनी रसायनीक संघटन बदलता. मूळ वनस्पती वस्तूंतले बदल फुडलेतरेन आसतातः १. रंग गडद आनी काळसार जाता. २. निबरसाण आनी घटाय वाडटा. ३. ओलसाण कमी जाता. ४. उडून वचपी वायू म्हळ्यार कार्बन डाय-ऑक्साइड, हायड्रोजन आनी ऑक्सिजन उणे जातात. ५. कार्बनाचें प्रमाण वाडटा.

कार्बन, हायड्रोजन, ऑक्सिजन आनी नायट्रोजन हांच्या प्रमाणावेल्यान कोळशाचे चार प्रकारांभितर वर्गीकरण करतात. १. पीट २. लिग्नाइट ३. बिटूमिनस कोळसो ४. आंथ्रासाइट. ह्या चारूय प्रकारांनी कार्बनची वाड दिसता. उडून वचपी वायूच्या घटकांतूय वाड दिसता. लांकडांत उडून वचपी वायूचें प्रमाण सादारणपणान वा उण्यांत उणें ५०% (वजनाप्रमाण) आनी ऑक्सिजन ४३% आसता. आंथ्रासाइटांक ९४% कार्बन आनी ऑक्सिजन ३% परस उणो आसता. उरिल्ल्या मदल्या प्रकारांचें संघटन ह्या दोन मुल्यांचे मजगतीं आसता.

कोळसो हो फातर ज्या घटकांसावन तयार जाता ताका 'मेसरल्स' अशें म्हण्टात. 'विट्रेन', 'क्लेरेन', 'ड्युरेन' आनी 'फुझेन' हे मेसरल्सचे चार मुखेल गट आसात. पयले दोन दिसपाक चकचकीत आसतात. तिसरो चकचकता आनी चवथो प्रक्रिया केल्ल्या कोळशावरी काळोकिट्ट आसता.

सगळेतरेचे वनस्पतीसावन कोळसो तयार जावं येता. रूखाची कांडी आनी खांदयो हांचेपसून जावपी कोळशांक 'ह्युमिक कोळसो' म्हण्टात. पानां, बिजाणू, कार्बनीक ऊञ, आलगी, चितो आनी तरंगपी प्लवकजीव हांचेपसून जाता, ताका 'साप्रोपेलीक कोळसो' अशें म्हण्टात. हातूंत कार्बनाचें प्रमाण उणें आनी उडून वचपी वायूच्या घटकांचें प्रमाण चड आसता. देखीकः कॅनल कोळसो आनी बॉग-हेड कोळसो.

कोळशाचें भंजक ऊर्ध्वपातन **(destructive distillation)** केल्यार जायत्या उद्येगांक लागपी वस्तू मेळटात. 'कोक' ही हातूंतलीच एक वस्त आसून ती तयार करपाक कोळसो एके भट्टेंत घालून बंदीस्त वातावरणांत ९५०° से. तापयतात. हे प्रक्रियेंत कोकावांगडा जायत्यो वस्तू भायर पडटात. देखीक- कोळशाचें तेल (पेट्रोल), कोळशाचो वायू आनी कोळशाचें डांबर.

जे कोळशासावन कोक तयार करतात, त्या कोळशाक 'कॅकिंग कोल' अशें म्हण्टात. चड करून तो ह्युमिक कोळसो आसता. साप्रोपेलीक कोळशांत उडून वचपी वायूचें प्रमाण चड आसता. ते पासत ह्या कोळशाक 'नॉन-कॅकिंग' अशें म्हण्टात. हे कोळशापसून कोळशाचें तेल, कोळशाचो वायू आनी कोळशाचें डांबर काडटात. ह्या कोळशाचो वापर उदकाची वाफ करूंक उपेगी पडटा.

प्रक्रिया करून केल्ल्या कोळशाक 'चारकोल' अशें म्हण्टात. हो कोळसो लांकडाचें आंशिक विघटन करून तयार करतात. हें विघटन करतासतना लांकूड तापयतात, पूण ताका चड हवा दिनात. त्याच वांगडा उदकाची वाफ सेगीत लांकडाचे भोंवतणी दवरतात.

सादारणपणान १० फूट जड वनस्पती थरासावन १ फूट 'पीट' तयार जावं येता. १२ फूट पिटाचो थर १ फूट कोळशाचो थर दिता.

सबंद संवसारांत १९६१ वर्सा केल्ल्या अदमासाप्रमाण $५×१०^{१२}$ टन सांठे आसात. हातूंतले ९५% सांठे उत्तर गोलार्धांत आसात. उत्तर अमेरिका, अस्तंत युरोप, सोवियेत रशिया, उदेंत आशिया हे संवसारांतले सगळ्यांत व्हडले कोळशा सांठे आशिल्ले वाठार आसात.

भारतांत संवसारांतले २.७ टक्के म्हळ्यार ८.१ अब्ज टन इतले (६.१ मी.) कोळशासांठे आसात. संवसारांतल्या कोळशासांठ्यांमजगतीं भारताचो सवो क्रमांक लागता.

भारतांतले कोळशासांठे भूवैज्ञानिक नदरेन दोन काळांत तयार जाल्लेः

१. लोवर गोंडवना कोळसो, परमियन काळांतलो आसून ताची पिराय २७ कोटी वर्सां.

२. टरशरी कोळसो, इओसीन ते मायोसीन काळांतलो आसून ताची पिराय ५.५ ते १.२ कोटी वर्सां.

बंगाल आनी बिहार राज्यांत कोळशाचे मुखेल सांठे आसात. दामोदर देगणाक कोळशा खणीचो वाठार म्हूण वळखतात. रानिगंज, झरिया, बोकारो आनी करनपुरा ह्यो ह्या वाठारांतल्यो कांय म्हत्वाच्यो कोळशा खाणी. तेभायर महानदी देगण, ब्राह्मणी देगण, सोनदेगण, पंच देगण प्रनहिता-गोदावरी देगण आनी वर्धा देगण तेचपरी काश्मीर, आसाम, हिमालय, मिझोराम, अरुणाचल प्रदेशांतलो सखल हिमालय हांगाय कोळशाचे सांठे आसात.

लिगनाइटचे सांठे तमिळनाडू राज्यांतल्या दक्षिण आरकोट जिल्ह्यांत नेवेल्ली गांवांत आसात. राजस्थान, गुजरात आनी केरळ राज्यांतूय लिगनाइटचे सांठे सांपडटात.

भारतांत कोळशाचो उपेग उद्येगाक, उश्मीय शक्त तयार करूंक, भाटी तापोवंक, घरकामाक, लोको इंजीन बॉयलर्स आनी जळपा वायू तयार करूंक वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**कौटिल्यः** (इ.स.प. चवथें शतमान).

हाचें मूळ नांव विष्णुगुप्त. हाका चाणक्य वा आर्यचाणक्य म्हूण वळखतात. ब्राह्मण कुळांत जल्मल्लो कौटिल्य बुदवंत, हुशार आनी कुशळ राजकारणी आशिल्लो. ताचें शिकप तक्षशिला विद्यापीठांत जालें. शिकप सोंपतकच त्याच विद्यापीठांत ताची आचार्य म्हूण नेमणूक जाली. ल्हवल्हव भारताच्या म्हापंडितांत ताची गणना जाली. फुडें मगधांत जाल्ले राजक्रांतीचो सूत्रधार म्हूण कौटिल्याची नामना सबंद भारतांतूच न्हय तर ग्रीस देशांत लेगीत फांकली.

तक्षशिलेक शिकता आसतनाच भारताची राजकीय परिस्थिती विस्कटिल्ली. भारतांत शेंकड्यांनी गणराज्यां आशिल्लीं पूण तांचेभितर सहकार्याची आनी एकचाराची भावना नाशिल्ली. चाणक्याच्या वेळार मगधांत नंद वंशाचो धनानंद हो राजा राज्य करतालो. ताचे जुलमी वृत्तीक लागून सगळी प्रजा ताचेर विटिल्ली. चाणक्याच्या मनांत क्रांती करून ही सत्ता सोंपोवपाचें आशिल्लें. अशे परिस्थितींत आसतना ताका मगधापती धनानंदाचें आपोवणें आयलें. दानविभागाचो मुखेली म्हूण चाणक्याची ताणें नेमणूक केली. धनानंदाविशीं मत्सर आसून लेगीत चाणक्यान ह्या पदाचो स्वीकार केलो.

आपलें काम करता आसतनाच चाणक्यान सगळ्या राजकारभाराचो बारकायेन अभ्यास केलो.

धनानंद राजाक विटिल्ले अधिकारी, नागरिक आनी क्रांतीकारी तरनाटे हांकां ताणें विश्वासांत घेतले. ताची लोकप्रियता वाडली. आपूण राजा आसून लेगीत चाणक्याक आपल्यापरस अदीक मान मेळटा, हें पळोवन धनानंद राजाक राग आयलो. तो एक दीस भरिल्ल्या दरबारांत चाणक्याचेर तापलो, 'आतांच्या आतां चलूंक लाग. तुजेसारके विश्वासघातकी मनीस दरबारांत नाकात.' चाणक्याक हाची कल्पना

आशिल्ली. ताणें म्हळें, 'धनानंद, प्रजेक नागोवन सुखां भोगपी जुलमी, भ्रश्टाचारी राजाची गुलामगिरी म्हाकाय नाका. हांव वतां, पूण एक प्रतिज्ञा करून. नंदकुळाचो नाश करून मगध भुंयेक मुक्त करतलों, तेन्नाच हांव हे शेंडयेची गांठ बांदतलों.'

चाणक्याक चंद्रगुप्त मौर्य हो तेजस्वी आनी हुशार शिष्य मेळ्ळो. क्रांतीचो फुडारी आनी भारताचो भावी सम्राट करपाखातीर चंद्रगुप्ताक चाणक्यान खूब मार्गदर्शन केलें. राजनीती आनी झुजविद्येंत ताणें चंद्रगुप्ताक पारंगत केलो. इ. स. प. ३२७ वर्सा सिकंदरान भारताचेर घाल्ली घुरी तक्षशिलेक चाणक्य आनी चंद्रगुप्त ह्या गुरु-शिष्यांनी पळेली आनी ताचेर बारकायेन अभ्यास केलो.

तक्षशिलेचें सैन्य जमोवन तांणी क्रांतीझुजाक सुखात केली. तांणी सगळ्यांत पयलीं वायव्येकडलो वाठार ग्रीकांच्या शेकापसून मुक्त केलो. मागीर मगधाचेर घुरी घाली आनी नागरिकांचें फाटबळ घेवन धनानंदाच्या सैन्याचेर जैत मेळयलें.

क्रांतीचें जैत जालें आनी आर्य चाणक्याची प्रतिज्ञा फळादीक जाली. मगधाच्या शिंवासनाचेर चंद्रगुप्त बसलो आनी चाणक्याच्या मार्गदर्शनाखाल तो राजकारभार चलोवंक लागलो.

चंद्रगुप्ताच्या उपेगाखातीर चाणक्यान 'अर्थशास्त्र' हो राजनीतीवेलो सुंदर ग्रंथ बरयलो. संवसारांतल्या राजनीतीक साहित्यांत ताका खूब नांव मेळ्ळें. अर्थशास्त्र ह्या ग्रंथाचो आंवाठ खूब मोटो आसा. तातूंत १५ अधिकरणां, १५० अध्याय, १८० उपविभाग आनी ६००० श्लोक आसात.

ताच्या अर्थशास्त्रांत राजा, मंत्री आनी सैनिक हांचीं वैयक्तिक कर्तव्यां आनी एकमेकांविशींचे संबंद, झुजाविशींचे विचार, विग्रह आनी विक्रम, बळिश्ट दुस्मानाकडेन झुजपाची नीत, राज्यावेल्या संकश्टांची मूळ कारणां आनी तांचेर शांततायेचे उपाय, झुजाक वचपाआदीं करचेली तयारी, झुजामळ, चतुरंग दळाच्यो हालचाली, दुस्मानघाताचे वेगवेगळे प्रकार तेचपरी लग्नाविशींचे नेम आनी हेर राजनीतीचो, राजकारभाराचो आस्पाव आसा.

कौटिल्य चार वेद, धर्मशास्त्रां, इतिहास, पुराणां धातूशास्त्र, संस्कृत भास, सांख्य, योग आनी लोकायत ह्या साहित्याचो जाणकार आशिल्लो. वखदी वनस्पतींचेर ताणें अप्रूपाची म्हायती बरयल्या.

ताका पिरायेच्या ८२ व्या वर्सा मरण आयलें, अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**कौल मार्गः** एक तांत्रिक संप्रदाय. कुल शब्दाचो अर्थ मूलाधारचक्र असो सांगला. 'कुः पृथ्वीतत्त्वं लीयते यस्मिन् तदाधारचक्रं कुलम्' हाचो अर्थ- कु म्हळ्यार पृथ्वीतत्त्व, तें जाच्या ठांय लीन जालां, तें आधारचक्र म्हळ्यार कुल (शब्दकल्पद्रुम) आनी ह्या कुलाचें शास्त्र तें कौल.

कुल हाचो आनीक एक अर्थ महानिर्वाणतंत्रांत दिलाः

जीवः प्रकृतितत्त्वं च दिक्कालाकाशमेव च।
क्षित्यप्तेजोवायवश्च कुलमित्यमिधीयते ।।

अर्थ- जीव, प्रकृती, दिक्, काल, आकाश, पृथ्वी, आप, तेज आनी वायू हांकां कुल अशें म्हण्टात.

कुलाक त्रिकोण आनी योनी अशींय दुसरीं नांवां आसात. योनीची प्रत्यक्ष रूपान पूजा करपी तांत्रिकांक कौल म्हण्टात. कौल मतांत दोन भेद आसात- पूर्वकौल आनी उत्तरकौल. पयले श्रीचक्राच्या भितर आशिल्ल्या त्रिकोणाची म्हळ्यार योनीची पूजा करतात, जाल्यार दुसरे सुंदर चलयेचे वास्तव योनीची पूजा करतात.

कुल आनी अकुल हे दोन शब्द अनुक्रमान शक्ती आनी शिव ह्या अर्थान शाक्ततंत्रांत आयल्यात. हांच्या समरसीकरणाचो जो मार्ग तो कौलमार्ग. सौभाग्यभास्कर ह्या ग्रंथांत हें मत अशें मांडलांः

कुलं शक्तिरिति प्रोक्तमकुलं शिव उच्यते ।
कुले ऽ कुलस्य सम्बन्धः कौलमित्यमिधीयते ।।

अर्थ- कुल म्हळ्यार शक्ती आनी अकुल म्हळ्यार शिव. कुलाकडेन अकुलाचो संबंद आसप हाकाच कौल (मार्ग) अशें म्हण्टात.

शिवाक कसलेंच कुलगोत्र ना, देखून ताका 'अकुल' ही संज्ञा फावशी आसा. शिवाची सिसृक्षा (सृश्ट करपाची इत्सा) म्हळ्यारुच शक्ती. साबार संवसाराचो पसारो चलोवपी ते शक्तीक कुल (वंश) ही संज्ञा दिल्या. कौल मतांत शिवशक्तीचें अभिन्नत्व सांगलां, तें अशें:

न शिवेन विना शक्तिर्न शक्तिरहितः शिवः।
अन्योन्यं च प्रवर्तेते अग्निधूमौ यथा प्रिये ।।
न वृक्षरहिता छाया नच्छायारहितो द्रुमः ।
(कौलज्ञाननिर्णय ७.८-९)

अर्थ- शिवाबगर शक्ती आनी शक्तीबगर शिव कार्य करीना. उजो आनी धुंवर हांच्यासारको तांचो संबंद आसा. रुखाबगर सांवळी ना आनी सांवळेबगर रूख ना.

**कुलद्रव्यांः** योगी लोक इंद्रियनिग्रह करून यम-नियमांच्या आचरणान अष्टांग योग साधून, निमणे ज्या समाधीसुखाचो आनंद घेतात, तेंच सुख सोरो आनी मांस ह्या कुलद्रव्यांचें सेवन करून तांत्रिक प्रक्रियांवरवीं आमी घेतात, अशें कौलमार्गी सांगतात. कौल साधकाचे जिणेंत भोग ही त्यागाची पाऊलवाट अशें मानतात. कौलज्ञाननिर्णयांत तांत्रिकांच्या पंच मकारांप्रमाण पंच पवित्रांची चर्चा आसा. विष्ठा, धारामृत, शुक्र, रक्त आनी मज्जा हीं तीं पंच पवित्रां आसात. ह्या दरेक शब्दाचो तांत्रिक अर्थ वेगळो आसा. गायचें मांस, गायचें तूप, गायचें रगत, गायचें दूद आनी गायचें धंय हे पदार्थ तांणी खावपासारके मानल्यात. माजर, उंट, घोडो, दुकर, बगळो, कुल्ली, साळ, घोडो, हरण, रेडो, गेंडो आनी सगळ्या प्रकारचें नुस्तें हांचोय तांणी खावपा-जेवपांत आस्पाव केला. तशेंच पौष्टी, माध्वी आनी गौडी ह्या सोऱ्याचोय तांणी गौरव केला. कौल साधक खावपा-जेवपाविशीं कसलोच पात्सो बाळगिनात. कुलार्णवतंत्रांत सोऱ्याच्या आध्यात्मिक प्रभावाची चर्चा अशी सांगल्याः

सुरादर्शनमात्रेण सर्वपापैः प्रमुच्यते ।
तद्गन्धघ्राणमात्रेण शतक्रतुफलं लभेत् ।

अर्थ- सोऱ्याच्या फकत दर्शनानूच मनीस सगळ्या पातकांपसून मुक्त जाता. ताचो फकत वास घेतिल्यान १०० यज्ञ केल्याचें फळ मेळटा.

समयाचार हो कौलाचाराचो विरोधी मार्ग. शंकराचार्य आनी ताचे अनुयायी हे समयाचार मार्गी आशिल्ले. अभिनव गुप्त आनी गौडीय शाक्त हे कौलमार्गी आशिल्ले. समयाचारांत अंतर्योगाक (काळजांतली उपासना) म्हत्व आसता, जाल्यार कौल मार्गांत बहिर्योगाक. दोनूय मार्गांनी पंच मकार प्रचलित आसात. समयाचारांत पंच मकारांचो प्रत्यक्ष प्रयोग करीनासतना तांच्या जाग्यार प्रतिनिधीभूत अश्यो हेर वस्तू घेतात; जाल्यार कौल मार्गांत पंच मकारांचो वास्तवरुपांत प्रयोग जाता. कांय नाथसंप्रदायांनी वामाचाराचो आनी पंच मकारांचो प्रभाव दिसून येता. ब्रिग्ज हाणें अशें म्हळां, की नाथपंथाच्या कानफाटा ह्या उपपंथाचे योगी योनी लिंगाची पूजा करतात आनी विशय-वासनांचें नियमन करप हें साधना मार्गाक घातक आसा, असो तांचो भावार्थ आसा. ह्या संप्रदायांत कौलज्ञाननिर्णय ह्या ग्रंथांत दिल्ले विधीप्रमाण चक्रपूजा करतात. हे साधक आपली साधनां मात गुपीत दवरतात.

कौल साधनेचो उद्देश कुंडलिनी जागृत करप होच. कुंडलिनी आनी प्राणशक्ती हांकां दोगांकूय घेवन जीव आवयच्या पोटांत प्रवेश करता. सगळे जीव जागृती, सुषुप्ती आनी सपन ह्या तीन अवस्थांनी आसतात. अशे स्थितींत तांची कुंडलिनी शक्ती निश्क्रीय आसता. तिका जागृत करपाखातीर ही कौल साधना आसा.

कौलसाधनेंत साधकांच्यो पशू, वीर आनी दिव्य अश्यो तीन अवस्था आसात. एकाद्रो साधक संवसाराच्या मोहांत वा आसक्तींत घुस्पता तेन्ना ताका 'पशू' म्हण्टात. जो साधक अद्वैतज्ञानाच्या फकत आभासान उत्साहित जावन साधना मार्गांत उदरगत करता आनी यत्न करून मोहपाश तोडटा, ताका 'वीर' म्हण्टात. जो साधक सहजतेन अद्वैतज्ञान आत्मसात करता, अशा साधकाक 'दिव्य' म्हण्टात. हे तीनूय प्रकारचे साधक एकापरस एक श्रेश्ठ आसात. तांच्यो साधना लेगीत तांच्या

पांवड्याप्रमाण वेगवेगळ्यो थारायल्यात. महानिर्वाणतंत्रांत सांगलां, की साबार कोणाकूय ह्या कौल मार्गांत येवपाचो अधिकार ना. जांणी इंद्रियांचेर जैत मेळयलां, तांणीच हो मार्ग आपणावचो. जे लोक देवीची कौलाचारा वरवीं सेवा करतात, तांकां कलीची बाधा जायना.

कौल मार्ग आनी हेर मार्ग हांच्यांतलो फरक कौलरहस्यांतल्या एका श्लोकांत सांगला, तो असो:

यत्रास्ति भोगो न च तत्र मोक्षो
यत्रास्ति मोक्षो न च तत्र भोगः ।।
श्रीसुन्दरीसेवनतत्पराणां
भोगश्च मोक्षश्च करस्थ एव ।।

अर्थ- जंय भोग आसा, थंय मोक्ष ना आनी जंय मोक्ष आसा, थंय भोग ना. पूण श्रीसुंदरीदेवीचे सेवेंत तत्पर आशिल्ल्यांक भोग आनी मोक्ष हे हातांत आशिल्ल्यावरी स्वाधीन आसतात.

कौलसाधक चांडाळ आसलो तरी लेगीत ब्राह्मणापरस श्रेश्ठ आसा आनी हो धर्म यज्ञयागापरसूय उच्च आसा, अशें कुलार्णवतंत्रांत म्हळां. ह्या तंत्राच्या आचरणांत ज्या पांच आंगांची गरज आसता, तीं आंगां अशीं: १. त्रैकालिक पूजा २. नित्य जप ३. तर्पण ४. होम ५. ब्राह्मणभोजन. कौलसाधनेंत बायलेक खूब म्हत्व दिलां.

स्त्रियो देवाः स्त्रियः प्राणाः स्त्रिय एव हि भूषणम् ।
स्त्रीणां निन्दा न कर्तव्या न च ताः क्रोधयेदपि ।।

अर्थ- बायलो म्हळ्यार देव, प्राण, तशेंच भूषण आसा. बायलांची निंदा करची न्हय आनी बायलांक केन्नाच राग हाडचो न्हय.

**इतिहासः** कौल पंथाचो उदय बंगालांत जालो. सगळ्या कुलशास्त्रांनी सांगलां की बंगालांत कौल पंथाची स्थापना बल्लाळसेनान केली. हो राजा बाराव्या शेंकड्यांत बंगालांत राज्य करतालो. ताणें आचारविनयाच्या ९ गुणांक अनुसरून ब्राह्मणांचे तीन वर्ग केले. ज्या ब्राह्मणांच्या आंगांत सगळे गूण आशिल्ले, तांकां मुखेल कुलीन, थोडे गूण कमी आशिल्ल्यांक गौणकुलीन आनी जांच्या आंगांत गूण सामके कमी, तांकां श्रोत्रिय अशीं नांवां दिलीं. तांच्या लग्नसंबंदांचेर निर्बंध घाले. फुडें १५ व्या शेंकड्यामेरेन बंगालांत ह्या कुलीन (कौल) ब्राह्मणांचें प्रस्थ बरेंच वाडलें. ते आपल्या व्हडपणाचो पोटतिडकीन प्रचार करपाक लागले. ताका लागून कुलीनेतर चलयांचे बापूय कुलीन वर्गांतलो जांवय मेळोवपाखातीर खटपट करपाक लागले. कुलीन दादले शंबरेक बायलांकडेन लग्न जाताले आनी त्या बायलांक कुळाराच दवरताले. जेन्ना ते तांकां मेळपाक वताले, तेन्ना मावोडेच्यान भरपूर धन हाडटाले. बिहार सोडल्यार भारताच्या आनी खंयच्याच वाठारांत ह्या पंथाचो प्रचार जावंक ना.

इ.स.च्या तेराव्या शेंकड्यांत बंगालांत मुसलमानांचो शेक सुरू जालो. मुसलमानांनी जेन्ना हिंदुंचो छळ करपाक सुरवात केली, तेन्ना थंय ब्राह्मणांनी पंथभेद कुशीक सारून आपली एकजूट केली आनी कसोय करून एकदाचो पंथ तिगयलो. फुडें १५ व्या शेंकड्यांत पंथाच्या लोकांनी देवीवरखंध हाका कुलाचार्य म्हूण नेमलो. ताच्या काळांत चडशे कुलग्रंथ नश्ट जाल्ले. पूण देवीवरान कामरूप हांगा वचून कामाख्या देवीची आराधना केली आनी कौलमार्गाविशीं दिव्य ज्ञान मेळयलें. मागीर ताणें त्या पंथाची नीट वेवस्था करून ब्राह्मणांचे नवे पंगड निर्माण केले. हे वेवस्थेक लागून ब्राह्मण जातींतूच न्हय तर हेर जातींतूय उपाट उपजाती तयार जाल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

## क्युरी, पिॲरः

(जल्मः १५ मे १८५९, पारीस; मरणः १९ एप्रिल १९०६, पारीस).

एक नामनेचो फ्रेंच भौतिकशास्त्रज्ञ आनी मारी क्यूरी हिचो घरकार. १८९५ त ताणें सोरबोन विद्यापीठाची डॉक्टरेट पदवी मेळयली आनी त्याच वर्सा 'एकोल द फिझीक ए द शिमी' हे संस्थेंत भौतिकीच्या प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली. १९०४ त सोरबोन विद्यापीठांत भौतिकीच्या प्राध्यापकपदाचेर आनी फुडल्या वर्सा 'फ्रेंच ॲकॅडेमी ऑफ सायन्स' हे संस्थेच्या पदाखातीर ताका वेंचून काडलो.

ताचें सुरवातीचें संशोधन स्फटिकांच्या चुंबकीय गुणधर्मांविशीं आशिल्लें. चुंबकीय ग्रहणक्षमतेविशीं ताणें १८९५ त एक म्हत्वाचो नेम सोदून काडलो. फुडें पी. वाइस हाणें १९०७ त तातूंत सुदारणा केली आनी ताका लागून ह्या नेमाक 'क्यूरी-वाइस नेम' अशें म्हण्टात. एका खाशेल्या तापमानाक पदार्थाच्या चुंबकीय गुणधर्मांत बदल जाता, असो ताणें सोद लायलो. ह्या खाशेल्या तापमानाक 'क्यूरी तापमान बिंदू' अशें नांव दिलां. पॉल झाक क्यूरी ह्या आपल्या भावावांगडा ताणें १८८० त स्फटिकांच्या दाबविद्युताचो (piezoelectricity) सोद लायलो.

मारिया स्क्लॉदोव्स्का (मारी क्यूरी) हिचे वांगडा १८९५ त लग्न जातकच दोगांनीय किरणोत्सर्गाविशीं (radioactivity) एकठांय संशोधन केलें आनी रेडियम आनी पोलोनियम ह्या मूलद्रव्यांचो सोद लायलो. तेखातीर तांकां दोगांकूय हेन्री बेकरेल हांचेवांगडा १९०३ त, भौतिकीखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो. ह्याच संशोधनाखातीर लंडनच्या रॉयल सोसायटीच्या डेव्ही पदकाचोय भोवमान तांकां फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## क्युरी, मारीः

(जल्मः ७ नोव्हेंबर १८६७, वॉरसॉ-पोलंड; मरणः ४ जुलय १९३४, पारीस).

किरणोत्सर्ग (radioactivity) आनी रेडियमाविशींच्या संशोधनांत नामना जोडिल्ली फ्रेंच बायल. रसायनशास्त्रज्ञ आनी भौतिकशास्त्रज्ञ. मूळ नांव मारिया स्क्लॉदोव्स्का. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा पदवी मेळयतकच वॉरसॉंतल्या उद्येगीक संग्रहालयाच्या भौतिकी प्रयोगशाळेंत तिणें कांय काळ काम केलें. उपरांत ती पारिसाक गेली. सोरबोन विद्यापीठांत तिख्याच्या चुंबकीय गुणधर्मांविशीं संशोधन करता आसतना १८९१ त तिची पिॲर क्यूरी हाचेकडेन वळख जाली आनी १८९५ त तांचें लग्न जालें.

आंरी बेकरेल हाणें १८९६ त लायिल्ल्या युरेनियम संयुगांतल्या किरणोत्सर्गाच्या सोदाकडेन क्यूरी दांपत्याचें लक्ष गेलें आनी युरेनियमाप्रमाणूच थोरियमाचीं धातुकांय (ores) किरणोत्सर्गी आसतात, अशें तांणी दाखयलें. १८९८ त, तांणी पोलोनियम आनी रेडियम ह्या मूलद्रव्यांचो सोद लायलो. ह्या दोनूय मूलद्रव्यांचीं संयुगां (compounds) पिचब्लेंडापसून (pitchblende) वेगळीं करपाखातीर तांणी उपाट कश्ट केले. तांच्या ह्या सोदाखातीर लंडनच्या रॉयल सोसायटीवरवीं डेव्ही पदक आनी बेकरेल हाच्या वांगडा १९०३ त, भौतिकीखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार तांकां वांटून मेळ्ळो.

घोवाच्या अपघाती मरणाउपरांत मारी क्यूरी हिची सोरबोन विद्यापीठांत भौतिकीच्या प्राध्यापकपदाचेर १९०६ त नेमणूक जाली. रेडियम धातुस्वरूपांत तयार करपाक तिका यश आयलें आनी ताचो अणुभार आनी हेर भौतिकी गुणधर्मांचीय तिणें नोंद केली. १९११ त, रेडियम क्लोराइडापसून रेडियम धातू वेगळो करपाविशींच्या तिच्या मोलादीक वावराखातीर तिका रसायनशास्त्राचो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. नोबेल पुरस्कार दोन फावटीं मेळोवपाचो भोवमान पयलेच खेप तिका फाव जालो. तिच्या भोवमानाखातीर पदार्थाच्या किरणोत्सर्गाचें प्रमाण मेजपाच्या एककाक (unit) 'क्यूरी' अशें नांव दिलां. तेचप्रमाण ९६ क्रमांकाच्या मानवनिर्मित मूलद्रव्याक 'क्यूरियम' हें नांव दिलां. १९१८ वर्सा पारीस विद्यापीठांतल्या रेडियम इन्स्टिट्यूटच्या क्यूरी प्रयोगशाळेच्या संचालकपदाचेर तिची नेमणूक जाली. ती लीग ऑफ नेशन्सच्या कमिशन फॉर इंटेलेक्च्यूअल को-ऑपरेशनची उपाध्यक्षा आशिल्ली. तिणें बरयल्ले **'Recherches sur les substances radioactives' (1904)** आनी **'Traite de radioactivite'** (२ खंड, १९१०) हे शास्त्रीय ग्रंथ खूब नामनेक पावल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## क्यूबाः

रेपुब्लिका द कूबा. कॅरीबियन दर्यांतल्या ग्रेटर ॲंटिलीस वा वेस्ट

इंडीज जुव्यांच्या चोर्यांमदलो सगळ्यांत व्हडलो जुंवो. एक साम्यवादी देश. ल्हान व्हड सगळ्या जुंव्यांसयत वट्ट क्षेत्रफळ १,१०,९१२ चौ. किमी.; लोकसंख्या १,०१,९१,००० (१९८६). हाची उदेंत-अस्तंत लांबाय सुमार १,२०० किमी. आनी दक्षिण-उत्तर रुंदाय ४० ते २९० किमी. आसा. ह्या देशाक सुमार ३,५०० किमी. लांबायेची दर्यादेग लाबल्या. अक्षवृत्तीय विस्तार १९° ४९' उत्तर ते २३° १५' उत्तर, रेखावृत्तीय विस्तार ७४° ८' अस्तंत ते ८४° ५७' अस्तंत. हाचे उत्तरेवटेन ॲटलांटिक म्हासागर आनी फ्लॉरिडा हो अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांचो वाठार, तेभायर बहामा जुंवे आसात. उदेंतेवटेन विंडवर्ड पॅसेज आनी ताचे पलतडीं हायती; दक्षिणेवटेन कॅरिबियन दर्या आनी तांतले जमैकासारकिले जुंवे, अस्तंतेवटेन मॅक्सिकोचें आखात आनी युकातान खाडीपलतडीं मॅक्सिकोचो युकातान वाठार आसा. मॅक्सिको आनी पनामा हांच्या मार्गाचेर आशिल्ल्यान क्यूबाक भूगोलीक नदरेन बरेंच म्हत्व आसा.

**भूंयवर्णनः** हांगाची भूंय मदीमदीं थीर नाशिल्ल्यान भूंयकांप बरेच जातात. भूंय चडशी चुनखडी आनी चिकणमातयेची आसा. अशीर न्हंयच्या देगणांतली जमीन बरीच पिकाळ आसा. सुमार ४०% भूंय दोंगरी आसा. उदेंतेवटेन ओरिएंते दोंगर, कामाग्वे प्रांतांत दक्षिण दर्यादेगेर सिएर्रा मास्त्रा दोंगर आनी ताका समांतर, उदेंत अस्तंत पातळिल्ली दोंगरांची वळ आसा. हातूंत क्यूबाची सगळ्यांत उंच दोंगरातेंगशी पीको तूर्किनो (१,९७३ मी.) आसा. आग्नेयेवटेनचो बरोच वाठार ६०० मी. उंचायेचो, जाल्यार कामाग्वे वाठार ३०० मी. उंचायेचो आसा. मध्य क्यूबाच्या दक्षिण लास व्हीयास वाठारांतल्या त्रिनिदाद पर्वताची उंचाय चडांत चड १,१५८ मी. आसा. उत्तर दर्यादेगेलागच्या पिनार देल रिओची उंचाय ७२८ मी. आसा. हांगाची दर्यादेग चडशी चिखलाची आसा. हांगा व्हडल्यो न्हंयो आनी सरोवरां नात. सुमार २०० न्हंयो दक्षिण आनी उत्तरेवटेन व्हांवतात. तांच्या मार्गावेल्यान उण्या अंतराक लागून येरादारी जायना. सगळ्यांत व्हडली न्हंय कॉटो सुमार २४९ मी. लांबायेची आसा आनी ती अस्तंत ओरिएंते प्रांताच्या मळांतल्यान व्हांवता.

**हवामानः** हांगाचें हवामान सादारणपणान उश्ण आसता. जानेवारी-फेब्रुवारींत तापमान सुमार २१.१° से. जाल्यार जुलय-ऑगस्टांत सुमार २७.२° से. आसता. ३२° से. परस चड आनी १०° से. परस उण तापमान हांगा अणभवाक येना. ऊंच दोंगरांचेर मात उदक गोठाइतलें तापमान देंवता. शिंयाळो आनी गीम हे ऋतू स्पश्टपणान जाणवनात. उंचायेचो मात हवामानाचेर परिणाम जाल्लो दिश्टी पडटा. वर्सुकी पावसाचें प्रमाण सुमार १३७ सेंमी. आसा. पिनार देल रिओच्या दोंगरी वाठारांत तें १६५ सेंमी., जाल्यार ओरिएंतेच्या फाटलेवटेन दक्षिण दर्यादेगेर ७५ सेंमी. मेरेन आसता. केन्नाकेन्नाय दुकळ पडटा. १९६७-६८ त सुमार देडवर्साचो दुकळ पडिल्लो. मे सावन ऑक्टोबर मेरेन पावस आनी नोव्हेंबर सावन एप्रिल मेरेन सुकें हवामान आसता. केन्नाकेन्नाय वादळां जावन सैमाचें बरेंच लुकसाण जाता.

**वनस्पत आनी मोनजातः** ऊंस, काफी, कोको आनी केळीं हांची लागवड जावचेपयलीं क्यूबांत बरींच रानां आशिल्लीं. आतां फकत कांय दोंगरी वाठारांनीच रानां दिसतात. पावसाच्या बदलपी प्रमाणाक लागून पानां झडपी झाडां बऱ्याच तरांचीं आसात. पाचन, सेडर, ओक मॉहॉगनी, एबनी, अकाना, साबिको हे मदेराक उपेगी पडपी लांकडाचे रुख आसात. डिंक, वखदां, रंग हे सारकीं उत्पादनां दिवपीय बरीच वनस्पत आसा. २५ मी. मेरेन ऊंच वाडपी 'रॉयल पाम' हो हांगाचो राश्ट्रीय रूख आसा. ताचो सगळ्या गजालींक बरो उपेग जाता. सेबा हा रेशमासारको मोव कापूस दिवपी, सोबीत रुख ३० मी. परस ऊंच वाडटा. माड आनी हेर ताड जातीचे रुख हांगा बरेच आसात. सव्हाना तणाचीं हांगा मळां आसात. कामाग्वे, अस्तंत लास व्हीयास आनी दक्षिण पिनार देल रिओ हांगा तण, ताड आनी झोंपां वाडटात. दर्यादेगांनी, चडशी दक्षिणेवटेन चिखलांत वाडपी वनस्पत सांपडटा. सफरचंदां, आंतेरां, ॲव्होकॅडो आनी पोपायो हीं हांगाचीं मुखेल फळां आसात.

ह्या देशांत व्हडा आकाराची मोनजात सामकी उणी दिश्टी पडटा. ल्हानसान प्राणी बरेच आसात. वागोळीं आनी बिळांनी रावपी, तेभायर किडमूय खावपी मोनजातीच्यो बऱ्योच जाती आसात. न्हंयांनी मॅनेटी आसात. स्थलांतर करून आयिल्लीं आनी थळावे जातीचीं सुकणीं बरींच आसात. सरपटपी प्राणी उणे आसात. मानगीं, कांसव, इग्वानो हे प्राणी हांगा दिश्टी पडटात. विखयाळे सोरोप नात. गोगलगायी आनी हेर मोव कातीची मोनजात तशेंच नुस्त्याच्यो तरेकवार जाती हांगा आसात.

**इतिहासः** १४९२ त कोलंबसाक क्यूबाचो सोद लागलो आनी १५११ मेरेन स्पॅनिश लोकांनी थंय आपलो राबीतो करून अमेरिकेवेल्या आपल्या कुरयांचें हें मुखेल केंद्र केलें. ताचेउपरांत हांगाच्या बऱ्या बंदरांक लागून अमेरिकेंतल्यान लूट घेवन येवपी स्पॅनिश जहाजांक हांगा आलाशिरो मेळूंक लागलो. ह्या कारणाक लागून फ्रेंच आनी इंग्लीश चाच्यांनी हांगा बऱ्योच धुरयो घाल्यो.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक स्पॅनिश साम्राज्य काबार जावन लॅटीन अमेरिकेंत बरींच गणराज्यां तयार जालीं, पूण क्यूबा स्वतंत्र जावंक पावलो ना. १८१०-१८५१ ह्या काळांत ल्हानसान उठाव जाले पूण ते जैतिवंत जाले नात. क्यूबाचे प्रतिनिधी सेनाच्या कारभार चलोवपी मंडळांत आसताले. पूण १८१० त हे प्रतिनिधी घेवप बंद जाल्ल्यान उठावांक कारण मेळिल्लें. इतले मजगतीं अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांनी गुलामांची बरी बाजारपेठ म्हूण क्यूबाचेर सत्ता मेळोवपाचो यत्न केलो, पूण तो फळादीक जालो ना. १८६८ ते १८७८ मेरेन पर्यांन मोटे उठाव जाले. ह्या उठावांक धा वर्सांचें झूज अशेंय म्हण्टात. ह्या उठावांचो परिणाम म्हूण स्पेनान हांगाच्या लोकांक कांय राजकी सवलती दिल्यो. १८९२ वर्सा होसे मार्ती हाणें अमेरिकेंत क्यूबन क्रांतीकारी पक्षाची थापणूक केली. ताणें आनी ताच्या हेर वांगड्यांनी १८९५ त क्यूबांत बंड केलें, पूण तें जैतिवंत जावंक पावलें नात. १८९८ त अमेरिका आनी स्पेन हांचेमदीं लडाय सुरू जाली. स्पेनावांगडा जाल्ले पारिस हांगाचे कबलातींतल्यान अमेरिकेन क्यूबाची स्वतंत्रताय मान्य करून ताका आपले राखणेखाला दवरलो. १ जानेवारी १८९९ ते २० मे १९०२ मेरेन क्यूबा अमेरिकेचे लश्करी राखणेखाला आशिल्लो. १९०२ उपरांत लश्करी राखण सोंपली, पूण अमेरिकेचो हांगाच्या राज्यकारभारावयलो अधिकार तसोच उरलो. शांततायेखातीर क्यूबाच्या राज्यकारभारांत कारवायो करपाचो अमेरिकेक पुराय हक्क आशिल्लो.

अमेरिकेच्या राखणे काळांत हांगाची अर्थीक आनी भलायकेविशींची परिस्थिती बरीच सुदारली. १९०१ त पयलें संविधान तयार जालें आनी १९०२ त थॉमस एस्ट्राडा पाल्मा पयलो अध्यक्ष जालो. अमेरिकेचे साकरेचे गरजेखातीर हांगा व्हडले व्हडले ऊंसाचे मळे तयार केले. ऊंसाचे मळे, तेलाचे कारखाने रेल्वेमार्ग ह्यो सगळ्यो गजाली अमेरिकन भांडवलदारांच्या हातांत पावल्ल्यान लोकांमदीं बोवाळ जावंक लागलो. १९०५ वर्सासावन वेंचणुकांच्या मतभेदांक लागून बंड जालें आनी शांतताय हाडपाच्या निमतान पुराय देश पर्यांन अमेरिकेचे लश्करी सत्तेखाला आयलो (१९०६). १९०९ त वेंचणुको जाल्याउपरांत सैन्य परतलें, पूण १९१२ त निग्रो उठाव जाल्ल्यान थंय अमेरिकन लश्करान पर्यांन आपलें पावल दवरलें. रोखडेंच पयलें म्हाझूज सुरू जालें आनी क्यूबाच्या साकरेवेपाराक बरे दीस आयले. झुजाच्या काळांत क्यूबांत शांतताय आशिल्ली, पूण झूज सोंपल्या उपरांत अमेरिकेंतली आनी युरोपांतली बीट साकर बाजारांत आयिल्ल्यान हांगा अर्थीक मंदी आयली. हे अर्थीक मंदींतल्यान हांगा राजकी उठाव, आडमार्गान घेतिल्ल्यो आनी दिखाव्यो वेंचणुको, अंदाधुंदी हांकां बरोच नेट आयलो. सत्तेखातीर जावपी झुजांक लागून देशाचें बरेंच लुकसाण जालें. १९२५ ते १९३३ मेरेन मोरालीस हाचे हुकुमशायेखाला देशाचो कारबार उरलो. १९३४ त ल्हानशी क्रांती जावन सरकार बदल्लें. सैन्याच्या बळग्याचेर सैन्याचो




मुखेली बातीस्ता हाणें बऱ्याच जाणांची राश्ट्राध्यक्ष म्हूण नेमणूक केली. निमणो १९४० त तो स्वताच क्यूबाचो राश्ट्राध्यक्ष जालो. हाणें अर्थीक परिस्थिती सुदारून देशांतले लोकांचे जिणेचो पांवडो उंचावपाचे यत्न केलो. पूण आपले अधिकार राखणेखातीर ताणें रानवटी उपाय येवजिले. व्यक्तिस्वतंत्रताय नश्ट केली. आपल्या राजकी विरोधकांक मारून उडोवपाक आनी बंदखणींनी घालपाक सुरवात केली. देशाचेर आपलो शेक उरपाखातीर सगळे क्रूर आनी मनीसपण नाशिल्ले प्रकार करून लोकांच्या मनांत भिरांत निर्माण केली. ताचे राजवटींत शासनाच्या कारभारांतूय पुरायपणान गोंदळ जावन लोक वाजेले. फिडेल कास्ट्रो ह्या तरगाट्यान थंय २६ जानेवारी १९५३ दिसा उठाव केलो, पूण तो जैतिवंत जालो ना. पर्थून १९५९ त ताणें क्रांती करून सरकार बदल्लें. ही क्रांती म्हळ्यार जगांतली एक लोक क्रांती अशें म्हण्टात. अमेरिकेकडले क्यूबाचे संबंद इबाडले. १९६१ त क्यूबांत मार्क्सवादी-लेनिनवादी तत्त्वांचेर सरकार चलोवन देशाची उदरगत करपाची कास्ट्रोन घोशणा केली. रशियन साम्यवादी पध्दतीप्रमाण हांगाचो राज्यकारभार आनी अर्थवेवस्था चलूंक सुरवात जाली. ७ एप्रिल १९६१ दिसा अमेरिकेच्या पालवान क्यूबाच्या अमेरिकेंतल्या निर्वासितांनी क्यूबाचेर घुरी घाली, पूण कास्ट्रोच्या सैन्यान तांचेर जैत मेळयलें. ह्या झुजाचो परिणाम क्यूबा रशियाच्या चड लागीं पावपांत जालो. १९६२ त हांगा रशियान क्षेपणास्त्रांचो तळ उबारलो. अमेरिकेक हाची सुलूस लागिल्ल्याक ताणी क्यूबाची नाकेबंदी करून झुजाची तयारी केली. रशियान ह्या वेळार फाटीं सरून अणूझूज जावंक दिलें ना. अमेरिका खंडांतल्या बऱ्याच साम्यवादी चळवळींत क्यूबान फाटबळ दिलें. साम्यवादी विचारसरणी आपणायल्ल्यान हेर लॅटीन अमेरिकन देशांनी १९६४ त क्यूबाचेर अर्थीक बहिश्कार घालपाचें थारायलें. १९६७ त बोलिव्हीयांत साम्यवादी चळवळ मुखार काडपाच्या यत्नांत क्यूबाचो फुडारी चे गुव्हेरा हाका मरण आयलें.

मदलो कांय काळ सोडीत जाल्यार क्यूबा, चीन आनी रशिया ह्या दोनूय साम्यवादी देशांमदीं रशियेक चड लागींचो आसा. १९७४ त हांगा तेन्नाचो सोविएत राश्ट्राध्यक्ष ब्रेझनेव्ह हाणें भेट दिली. १९७७ त आंगोलांतल्या सरकाराक फाटबळ दिवपाखातीर क्यूबाचें सैन्य थंय गेलें. सद्यातरी क्यूबा एक म्हत्वाचो देश म्हूण राजकी मळार संवसारभर गाजता.

**राज्यवेवस्था:** संविधानाप्रमाण क्यूबा एक समाजवादी देश म्हूण जाहीर केला. राज्यकारभाराचे अधिकार कश्टकरी समाजाकडेन आसात. राश्ट्राध्यक्ष हो राश्ट्राचो मुखेली आसता. पयलींचें संविधान १९५९ त रद्द जावन २४ फेब्रुवारी १९७६ तल्यान नवें संविधान मुखार आयलें. कार्यकारी, विधीमंडळ, लश्करी आनी सत्ता चलोवपी कम्युनिस्ट पक्षाचेर राश्ट्राध्यक्षाचें पुरायपणान नियंत्रण आसा. राश्ट्राध्यक्ष फिडेल कास्ट्रोच्या हातांत सगळी सत्ता एकवटल्या. नोकरशाय रशियन राज्यपध्दतीचेर आदारल्या. १६ वर्सां पुराय केल्ल्या दरेकल्याक मत दिवपाचो अधिकार आसा. वेंचणुकांनी उबे रावपी उमेदवार कम्युनिस्ट पक्ष वा लोकसंघटनांचे वांगडी आसतात.

१९७६ च्या संविधानाप्रमाण थळाव्या राज्यकारभाराची रचणूक केल्या. १४ प्रांत आनी १६९ नगरपालिकांतल्यान थळावो राज्यकारभार चलता.

विंगडविंगड राजकी पक्ष हांगा नात. क्रांती उपरांत फकत एकाच पक्षाची सत्ता हांगा चलता.

**अर्थीक स्थिती:** क्यूबाची भूंयरचणूक विंगडविंगड पिकावळ काडपाचे नदरेन बरीच उपेगाची आसा. ऊंस आनी तंबाखू हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. तेभायर तांदूळ, काफी, कोको, केळीं, फळफळावळ, भाजीपालो हांचेंय पीक बरेंच येता. मांसाच्या धंद्याची गोरवां पोसपाच्या म्हत्वाच्या उद्येगाक लागून बरीच उदरगत जाल्या. जमीन राश्ट्रीय मालकेची आसा. हांगाच्या

खणींनी लोखण, तांबे, निकेल, मँगनीज, क्रोमियम हे धातू मेळटात. हांगाच्या दर्यांत बांगडे, सुंगटां ह्या सारकें नुस्तें व्हडा प्रमाणांत मेळटा. पर्यटन धंद्याक हेर उद्योगधंद्यांमुखार व्हडलेशें म्हत्व ना.

१९५९ तली क्रांती जावचेपयलीं हांगा अमेरिकन भांडवलाच्या पालवान बरेच कारखाने उबारिल्ले. पूण तांची व्हडलीशी उदरगत जावंक नाशिल्ली. क्रांतीउपरांत रशियन भांडवल, तंत्रगिन्यान आनी हेर आदारान हांगा उद्योगधंद्यांची बरीच वाड जाली. उद्योगांचें राश्ट्रीयकरण जालां. खाणाच्यो वस्तू, तंबाखू, शिमीट, प्लॅस्टिक, निकेल हांचे कारखाने हांगा आसात. क्यूबाचे आयात-निर्यात वेव्हार पयलीं फकत रशिया आनी हेर साम्यवादी देशांकडेन चड जाताले. सद्या जगांतल्या बऱ्याच हेर देशांकडेनूय ह्या देशाचे आयात-निर्यात वेव्हार चलतात.

पेसो हें हांगाचें चलनी नाणें. हांगा खाजगी बँको नात. 'नॅशनल बँक ऑफ क्यूबा' ही हांगाची एकूच राश्ट्रीय बँक.

**येरादारी आनी संचारणः** क्यूबांत १९८४ मेरेन ३४,००० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. १९८५ मेरेन हांगा प्रवाशांखातीर येरादारी करपी ५,१९६ किमी. चे रेल्वेमार्ग आनी फकत साकर उद्योगाखातीर वापरांत येवपी ९,६३८ किमी. चे रेल्वेमार्ग आशिल्ले. देशांत सुमार २४० किमी. लांबायेच्या उदकामार्गांतल्यान चडशी वेवसायीक येरादारी जाता. हांगा सुमार २०० परस चड बंदरां आसात. हातूंतलीं कांय संवसारांतल्या सगळ्या बंदरांपरस बरीं आसात. मुखेल बंदरां अशीं: मारिएल, हावाना, नेव्हीतास, मानाटी, पुयेर्तो पाद्रे, गिबारा, अँटीला, ग्वांतानामो, सांतियागो दे क्यूबा, सिएन्फ्यूएगोस, कार्देनास आनी मातान्झास. हवाई मार्गावेली येरादारी 'क्यूबाना' हे राश्ट्रीय संस्थेवरवीं चलता. युरोप, आफ्रिका, लॅटीन, अमेरिका ह्या खंडांकडेन आनी संवसारांतल्या हेर देशांकडेन हवाईमार्गावेल्यान येरादारी जाता. जुझे मार्ती हो हावानासावन २१ किमी. पयस आशिल्लो ह्या देशांतलो मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. तेभायर हेर ल्हानसान विमानतळ बरेच आसात.

**लोक आनी समाजजीणः** १९८१ मेरेन हांगा ६६% लोक गोरे कातीचे, २१.९% मुलाटो, १२% आनी हेर ०.१% आशिल्ले; धर्माचेर विस्वास नाशिल्ले लोक ४८.७%, रोमन कॅथलिक ३९.६%, नास्तिक ६.४% आनी उरिल्ले हेर धर्मीक विस्वासांचे आशिल्ले. क्यूबाचे स्वतंत्रतायेखातीर झुजपी फुडाऱ्यांमदीं पयलीं सावन कॅथलिक विरोधाची भावना आशिल्ल्यान थंय कॅथलिक पंथीय लोकांची समाजांत व्हडलीशी सुवात ना. हेर लॅटीन अमेरिकन देशांपरस हे विशीं क्यूबाचें वेगळेंपण जाणवता. सरकारान धर्मनिरपेक्ष पध्दत आपणायल्या. क्रांतीउपरांत धर्माचेर चडशा लोकांचो आशिल्लो भावार्थ उणो जायत चल्ला.

कला, संगीत हांचेर निग्रो संस्कृतायेचो बरोच प्रभाव दिसून येता. तांच्या लोकगीतांतल्यान आनी नृत्यांतल्यान नवें संगीत आनी रंबा, सांबा, कोंबा, मांबो असलीं नृत्यां हांगासावन संवसारभर नांवाजतीं जाल्यांत. शिल्पकलेच्या मळार हांगा बरीच उदरगत जाल्या. सावेद्रा ह्या शिल्पकाराचें नांव संवसारभर गाजलां. मेलेरो, मारेल, अँजलो, वाल्डारामा हे हांगाचे नामनेचे चित्रकार.

**शिक्षणः** राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण ९६% आसा. ६ ते १४ वर्सांमेरेनचें ९ वर्सांचें शिक्षण फुकट, सक्तीचें आनी एकसारकें आसा. स वर्सांचें मुळावें, चार वर्सांचें माध्यमिक आनी तीन वर्सांचें उच्च माध्यमिक अशें तेरा वर्सांचें शाळेंतलें शिक्षण आसता. मार्क्सवादी-लेनिनवादी तत्त्वांचेर आदारिल्ली शिक्षणपध्दत हांगा आसा.

सप्टेंबर ते जून मेरेन शिक्षणीक वर्स चलता. शिक्षणाचें माध्यम स्पॅनिश भाशेंतल्यान आसलें, तरी इंग्लीश आनी रशियन भाशेचोय शिक्षणांत वापर जाता. शिक्षणाची जापसालदारकी, शिक्षण मंत्रायलाची आसा. उंचेल्या पावंड्यावेलें शिक्षण 'उनिवर्सिदाद दे ला हावाना', 'उनिवर्सिदाद दे ओरिएंते', 'उनिवर्सिदाद दे सेंट्रल दे ला विलास' आनी 'उनिवर्सिदाद इग्नाशियो आग्रामांते' ह्या चार विश्वविद्यालयां वरवीं चलता. मार्क्सवादी अर्थकारण आनी राजकारण हे विशय सक्तीचे आसतात. हांगाचे बरेच विद्यार्थी उंचेल्या शिक्षणाखातीर रशियांत आसात. सेनांतूय हांगाचे कांय विद्यार्थी शिक्षण घेतात. आफ्रिकेंतल्या कम्युनिस्ट राश्ट्रांक साक्षर करपाची कार्यावळ क्यूबान हातांत घेतल्या. तेप्रमाण मोझांबीक, इथिओपिया ह्या सारक्या देशांतले विद्यार्थी शिक्षण घेवपाखातीर हांगा येवन रावल्यात.

**भाशा आनी साहित्यः** स्पॅनिश ही लोकांची वेव्हाराची भाशा आसा. इंग्लीशीचोय वापर बरोच जाता. होसे हेरेदिया (१८०३-३९) हो हांगाचो एक नामनेचो कवी. होसे मार्ती (१८६३-९५) हाकाय लेखक आनी कवी म्हूण बरीच नामना आसा. तेभायर कास्तेल्यानोस त्रॅलॅस, आर्तीस हेय हांगाचे नामनेचे लेखक. साहित्याच्या मळार मार्क्सवादी विचार पध्दतीन बरयल्लें साहित्य क्रांतीउपरांत लोकांमदीं चड पावलां.

**म्हत्वाचीं थळांः** मार्तेझास, कार्देनास, ग्वांतानामो, सांतियागो दे कूव्हा, नेवीतास, सिएनफ्यूएगोस हीं म्हत्वाचीं बंदरां आनी उद्योगीक शारां आसात. तेभायर हावाना ही राजधानी, ग्वानाबाकोआ शार हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं थळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## क्रॉग, शाक ऑगुस्त स्टीनबेर्गरः

(जल्मः १५ नोव्हेंबर १८७४, ग्रेना-डेन्मार्क; मरणः १३ सप्टेंबर १९४९, कोपनहेगन).

डॅनिश शरीरक्रियाशास्त्रज्ञ. १९०३ त ताणें बेबक्यांचे श्वसनक्रियेचेर प्रबंध बरोवन डॉक्टरेट मेळयली. १९१६ त तो कोपनहेगन विद्यापीठांत शरीरक्रियाविज्ञान ह्या विशयाचो प्राध्यापक जालो. श्वसनक्रियेविशीं संशोधनात्मक वावर करून ताचेर ताणें 'Mechanism of Gas Exchange in the lungs' हो ग्रंथ बरयलो. व्हिएन्ना सायन्स अॅकॅडेमीन ताचेखातीर ताका तस्त्रीप दिली. 'स्नायूंतल्या रगताच्या प्रवाहांतल्या केशवाहिन्यांवरवीं (capillaries) जावपी नियंत्रण' ह्या सोदाखातीर ताका १९२० त, शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकीशास्त्र ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. ताणें ऊतकाची (tissues) क्रियाशीलता आनी केशवाहिन्यांतलो रगताचो प्रवाह हांचो संबंद दाखयलो. सक्रिय स्नायूंतल्या कार्यक्षम केशवाहिन्यांची संख्या स्तब्ध (dormant) स्नायूंपरस चड आसता आनी ह्या फरकाचेर ऑक्सिजनाची पुरवण आदारून आसता, अशें मत ताणें परगटायलें. १९३७ त, तो रॉयल सोसायटीचो विदेशी वांगडी जालो. १९५४ त, ताका इंग्लंडच्या रॉयल सोसायटीचें बाली (Baly) पदक मेळ्ळें. आठ विदेशी विद्यापीठांनी ताका भोवमानान डॉक्टरेट पदवी दिली.

- कों. वि. सं. मं.

## क्रिक, फ्रॅन्सिस हॅरी कॉम्पटनः

(जल्मः ८ जून १९१६, नॉर्दॅम्पटन-इंग्लंड).

ब्रिटीश जीवभौतिकीविज्ञ आनी आनुवंशिकीविज्ञ. युनिवर्सिटी कॉलेज, लंडन आनी केंब्रीज विद्यापीठांतल्यान ताणें उच्च शिकप घेतलें. १९४९-१९७६ ह्या काळांत ताणें केंब्रिजच्या कॅव्हॅंडिश प्रयोगशाळेच्या मेडिकल रिसर्च काऊन्सिल विभागांत संशोधनाचें काम केलें. क्ष-किरण विवर्तनीय (diffraction) विश्लेशण तंत्राचो उपेग करून रेणुरचणुकेचो जीवविज्ञानाचे नदरेन अर्थ लावपाचे नदरेन ताणें म्हत्वाचें संशोधन केलें. विल्किन्झ ह्या शास्त्रज्ञान स्फटिकविज्ञानाच्या (Crystallography) आदारान D.N.A. रेणुरचणुकेविशीं अभ्यास केल्लो. क्रिक आनी वॉटसन हांणी ताचो अर्थ लावन ही रचणूक निश्चित केली. १९५४ त, ताका केंब्रिज विद्यापीठाची पीएच्.डी. मेळ्ळी. तेउपरांत ताणें १९५३-५४ त ब्रुकलिन पॉलिटेक्निक इन्स्टिट्यूटांत प्रथिन रचणुकेविशीं संशोधन केलें. १९५९ त लंडन रॉयल सोसायटीचो वांगडी म्हूण ताची वेंचणूक जाली. १९६०-६१ त केंब्रिजच्या चर्चिल कॉलेजचो तो फेलो जालो. D.N.A. अम्लाची रेणवीय रचणूक सोदून काडिल्लेखातीर क्रिक हाका विल्किन्झ आनी वॉटरान हांच्यावांगडा १९६२ वर्साचो शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकीशास्त्र ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो.

१९६२ त, तो कॅलिफोर्नियांतले 'सॉल्क इन्स्टिट्यूट फॉर बायॉलॉजिकल स्टडीज' हे संस्थेचो वांगडी जालो. 'Molecules and Men' (१९६७) आनी 'Life Itself' (१९८१) हीं पुस्तकां ताणें बरयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**क्रिकेट:** दरेकी इकरा खेळगडे आशिल्ल्या दोन पंगडांभितर उक्त्या मैदानार बॅट आनी बॉला (पेल्ल) वरवीं खेळटात, तो सांघिक खेळ.

क्रिकेट हें उतर ओल्ड सॅक्सन उतर 'क्रायस्' (cryce) वेल्यान आयलां. Criquet ह्या फ्रेंच उतरावेल्यान क्रिकेट हें उतर आयलां, अशेंय एक मत आसा. ह्या उतराचो अर्थ बॉलावरवीं खेळपाक येवपी खेळांतलें बॅट असो जाता. पयल्या एडवर्डाच्या काळांत १३०० च्या सुमाराक Creag हे संज्ञेन क्रिकेटचो उल्लेख केल्लो मेळटा.

१२०० च्या सुमाराक हो खेळ इंग्लंडांत अस्तित्वांत आसलो. १५५० च्या सुमाराक गिल्डफर्ड विद्यालयांतलीं भुरगीं क्रिकेट खेळटालीं, असो उल्लेख मेळटा. १६४६ त केंट मदल्या कॉक्सहीथ हांगा क्रिकेटचो सामनो जाल्याचो पयलो उल्लेख मेळटा.

क्रिकेटच्या खेळांत जायते बदल जायत आयल्यात. सुर्वेक गांवगिऱ्या वाठारांतल्या भुरग्यांनी ह्या खेळाची बुन्याद घाली. बोकड्यो, मेढरां, गोरवां चरोवपाक रानांनी वचपी भुरगे; वेळ मेळटा तेन्ना हो खेळ खेळटाले. क्रिकेटचे पयले अवस्थेंत बॅटा बदला हात, बॉला बदला लांकडाचो कुडको, विकेटी बदला झाडाचो उपेग जातालो. बॉल घेवन गोलंदाज, फलंदाजाक गोलंदाजी करतालो. हो बॉल, फलंदाज आपल्या हातांनी मारतालो. फलंदाजाक बाद करपाक एके थारायिल्ले कुरवेचेर गोलंदाजी करची पडटाली. हे कुरवेक बॉल लागल्यार फलंदाज बाद जातालो.

काळांतरान हाताबदला लांकडाची ल्हान बडी, लांकडाचें फळें, जड दांडो आशिल्ली बॅट, पाचरी मूठ आशिल्ली 'विलो' लांकडाची बॅट अशे बदल बॅटाचे अवस्थेंत जायत गेले. सुर्वेक बॉल लांकडाच्या कुडक्याचो आशिल्लो. उपरांत ताचो आकार वांटकुळो जालो. उपरांत ल्हवल्हव रबर, चामडें हाचो वापर जावन ताका आयचें रूप प्राप्त जालें. पयलीं झाडांचो यश्टी (विकेट्स) म्हूण उपेग जावपाक लागलो. फुडें दोन बडयो, उपरांत तीन बडयो आनी तातूंतल्यान सद्याच्यो विकेट्स अस्तित्वांत आयल्यो. आयज क्रिकेटीच्या २२ यार्ड धांवपट्टेच्या दोनूय वटांनी विकेटी (Double wicket) लावपाची पध्दत आसा.

**इतिहास:** क्रिकेटच्या इतिहासांत नोंद जाल्लो क्रिकेटचो पयलो सामनो १६९७ वर्सा ससेक्स हांगा जालो. १७१९ वर्सा लंडनर्स (मिडलसेक्स) आनी केंटीश मेन हांचेभितर पयलो काउंटी सामनो (county match) जालो. क्रिकेटचो खेळ १७१० वर्सा केंब्रीज विद्यापीठांत पावलो. १७४४ त पयलेच खेप क्रिकेटचे नेम घडयले. १८ जून १७४४ दिसा केंट आनी ऑल इंग्लंड हांच्याभितर सामनो जालो. ताचें पुराय धांवपत्रक अजून पळोवंक मेळटा. १७६३ ते १७९३ मेरेन 'हॅम्बलडन क्लब' क्रिकेट खेळांत नांव जोडून आसलो. १७८७ वर्सा लॉर्ड्स (इंग्लंड) हांगा 'मेरीलिबोन क्रिकेट क्लब' (MCC) स्थापन जालो. हे संस्थेन त्याच वर्सा क्रिकेटची नवी नेमावळ घडयली. तेन्ना सावन हीच संस्था क्रिकेटच्या खेळाचे नेम घडयता आनी तांचेर नियंत्रण दवरता.

ब्रिटिशांचे राजवटीक लागून खास करून सैनीक आनी तांच्या अधिकाऱ्यांक लागून हो खेळ ब्रिटीश वसाहतींत पातळ्ळो. ऑस्ट्रेलियांत हो खेळ १८०३ त सुरू जालो. १८३८ वर्सा मॅलबोर्न क्रिकेट क्लबाची थापणूक जाली. १८५६ त मॅलबोर्न हांगा व्हिक्टोरिया आनी न्यू साउथ वेल्स मजगतीं पयलो अधिकृत सामनो जालो. न्यूझीलंडांत हो खेळ १८४० त पावलो. १८६० त ऑक्लंड आनी वेलिंग्टन ह्या पंगडांमजगतीं पयलो प्रातिनिधीक सामनो जालो. वेस्ट इंडीज देशांत हो खेळ एकुणिसाव्या शतमानाच्या मध्याक सुरू जालो. १८६८ त डिमिरारा (गयाना) आनी बार्बाडोस हांचेभितर पयलो प्रातिनिधीक सामनो जालो. दक्षिण आफ्रिकेंत हो खेळ एकुणिसाव्या शतमानाच्या मध्याक पावलो. ब्रिटीश सैनीक आनी पोलीस १८८८-८९ मेरेन लश्करी आनी पोलीस केंद्रांनी (केप कॉलनी आनी नाताल) हो खेळ खेळटाले.

भारत-पाक फाळणेउपरांत १९५२ वर्सा कराचींत पाक मध्यवर्ती क्रिकेट मंडळाची थापणूक जाली. १९५२ त पाकिस्तानान भारताची पयली क्रिकेट कसोटी भोंवडी केली.

**कसोटी क्रिकेट:** क्रिकेट कसोटी सामने खेळपाची मान्यताय आयजवेर सात देशांक मेळ्ळ्या. तातूंत इंग्लंड, ऑस्ट्रेलिया, वेस्ट इंडीज, भारत, न्यूझीलंड, पाकिस्तान आनी श्रीलंका हांचो आस्पाव जाता. दक्षिण आफ्रिकेक कसोटी क्रिकेट खेळपाक मेळिल्ली मान्यताय त्या देशाच्या वर्णदुस्वासी धोरणांक लागून काडली. संवसारांतलो पयलो कसोटी क्रिकेट सामनो मॅलबोर्न हांगा १८७७ वर्सा इंग्लंड आनी ऑस्ट्रेलिया मजगतीं जालो. हातूंत ऑस्ट्रेलियाक जैत मेळ्ळें. 'इंटरनॅशनल क्रिकेट कॉन्फरन्स' ची थापणूक जातकच इंग्लंड, ऑस्ट्रेलिया आनी दक्षिण आफ्रिका हे संस्थेचे वांगडी जाले. १९२६ त, भारत, वेस्ट इंडीज आनी न्यूझीलंड देशांक हे संस्थेचें वांगडीपण फावो जालें. १९५२ त पाकिस्तानाक आनी मागीर श्रीलंका देशाक हे संस्थेचें वांगडीपण मेळ्ळें. द. आफ्रिका १९०७ वर्सा, वेस्ट इंडीज १९२८ वर्सा, न्यूझीलंड १९३१ वर्सा, भारत १९३२ वर्सा, पाकिस्तान १९५४ वर्सा, तर श्रीलंका १९८२ वर्सा आपलो पयलो क्रिकेट कसोटी सामनो खेळ्ळे.

सुर्वेक दोनूय पंगडांचे दोन डाव सोंपसर आनी खेळाचो निर्णय लागसर कसोटी सामनो चालू उरतालो. सद्या कसोटी क्रिकेट सामने पांच दिसांचे आसतात.

कसोटी क्रिकेट सामन्यांतले कांय संवसारीक विक्रम अशे:

*फलंदाजी:* १. पंगडाच्यो चडांत चड धांवड्यो- ७ बाद ९०३ - इंग्लंड, ऑस्ट्रेलियाआड- १९३८.

२. वैयक्तिक चडांत चड धांवड्यो- नाबाद ३६५- सर गारफील्ड सोबर्स, वेस्ट इंडीज आड पाकिस्तान. १९५७-५८.

३. पंगडाच्यो उण्यांत उण्यो धांवड्यो- २६ न्यूझीलंड, इंग्लंडाआड. १९५४-५५.

*गोलंदाजी:* १. एका सामन्यांत चड विकेटी- जिम लेकर इंग्लंड, ऑस्ट्रेलियाआड. १९५६.

२. कसोटी कारकिर्दींत चडांत चड विकेटी- रिचर्ड हॅडली, न्यूझीलंड.

३. कसोटी मालिकेंत चडांत चड विकेटी- ४९ सिडनी बार्न्स, इंग्लंड आड द. आफ्रिका.

४. एका सामन्यांत चडांत चड झेल-७ ग्रेग चॅपेल, ऑस्ट्रेलिया आड इंग्लंड- १९७४-७५. यजुवेन्द्रसिंग भारत आड इंग्लंड.

यश्टीरक्षणांत कसोटी कारकिर्दींतल्यो चडांत चड विकेटी- रॉडनी मार्श (ऑस्ट्रेलिया).

**एका दिसाचे खेळ:** १९७४ मेरेन क्रिकेटीभितर हेर खेळांसारकी संवसारीक खेळांसर्त नासली. १९७५ च्या जून म्हयन्यांत संवसारीक क्रिकेट सर्त (प्रुडेन्शल क्रिकेट सर्त) इंग्लंडांत भरली. १९७५ आनी १९७९ वर्सा वेस्ट इंडीजान, तर १९८३ वर्सा भारतान हें सर्तीचें वस्तादपण जिखलें. १९८७ वर्साची 'रिलायन्स संवसारीक क्रिकेट सर्त' भारत आनी पाकिस्तानांत जाली. ही सर्त ऑस्ट्रेलियान जिखली.

सद्या क्रिकेट कसोटी खेळावांगडाच एका दिसाचे क्रिकेट खेळ बरेच लोकप्रिय जाल्यात.

**बायलांची क्रिकेट:** अठराव्या शतमानांत बायलांनी क्रिकेट खेळपाक सुरवात केली. १८८७ वर्सा, 'व्हाइट हिथर' ह्या बायलांच्या पंगडाची थापणूक जाली. १९२६ वर्सा बायलांच्या क्रिकेट असोसिएशनची थापणूक जाली. १९३३-३४ त इंग्लंडाचो पंगड ऑस्ट्रेलिया आनी न्यूझीलंडाक गेलो. १९७३ वर्सा बायलांखातीर संवसारीक करंड दवरिल्लो. इंग्लंड, ऑस्ट्रेलिया, वेस्ट इंडीज, न्युझीलंड, भारत आनी राश्ट्रकूलांतल्या कांय देशांनी बायलो क्रिकेट खेळटात.

**खेळाचे नेम, पध्दती आनी स्वरूप:** क्रिकेट खेळाच्या नेम आनी

पध्दतींप्रमाण हो खेळ खेळटात.

क्रिकेट खेळ दोन पंगडांमदीं जाता. दरेक पंगडांत इकरा खेळगडे आसतात. इकरा खेळगड्यांतल्या कोणाकूय दुखापत जाली जाल्यार राखीव आशिल्ल्या खेळगड्यांक क्षेत्ररक्षण करपाक मान्यताय आसता. सामन्याचे निर्णय दिवपाची जापसालदारकी दोन पंचांचेर आसता. सामनो १,२,३,४,५ वा ६ दिसांचो आसता. पयलीं दोनूय पंगडाचे कर्णधार 'कुरूबावलो' उडयतात. कुरूबावलो जिखपी कर्णधार फलंदाजी वा गोलंदाजी करपाचो निर्णय घेता. फलंदाजी करपी पंगड आपल्या दोन खेळगड्यांक डावाची सुरवात करपाक धाडटा. हातूंतलो एकलो गोलंदाजी खेळपाच्या पावित्र्यांत रावता तर दुसरो गोलंदाजाच्या मुखार धांवड्यो काडपाच्या पावित्र्यांत रावता. गोलंदाजान घाल्लो बॉल फलंदाजान आपल्या बॅटाच्या आदारान मारपाचो आसता. मारिल्लो बॉल आडावपाखातीर विरोधी पंगडाचो कर्णधार आपल्या खेळगड्यांक क्षेत्ररक्षण करपाक दवरता. फलंदाजान मारिल्लो बॉल क्षेत्ररक्षकांक चुकोवन थारायिल्ले शिमेभायर गेल्यार चार धांवड्यो धांवनासतना फलंदाजाक मेळटात. बॉल जमनीक तेंकनासतना शिमेभायर गेल्यार स धांवड्यो मेळटात. शिमेचे भितर बॉल धरल्यार मात फलंदाजाक धांवड्यो धांवन काडच्यो पडटात. धांवडी पुराय जावंचेआदीं क्षेत्ररक्षकान यश्टी उडयल्यो, जाल्यार फलंदाज बाद थारता. गोलंदाज षटक म्हळ्यार स बॉल घालता. षटक सोंपतकच क्षेत्ररक्षण बदलता आनी दुसरे वटेन दुसरो गोलंदाज गोलंदाजी करता. फलंदाजी करपी पंगडाचे धाय फलंदाज बाद जातकच एक डाव सोंपता. तेउपरांत गोलंदाजी करपी पंगड फलंदाजी करता. दोनूय पंगड वयलेतरेन आरते-परते दोन डाव खेळटात. ज्या पंगडाच्यो धांवड्यो चड जातात, तो पंगड जैतिवंत थारता. कांय वेळार फलंदाज राखून म्हळ्यार अमक्योच विकेटी राखून पंगड जैत जोडटा. एका डावान जैत जोडपाचे कांय प्रसंगूय क्रिकेटींत येतात. पांच दिसांच्या सामन्यांत २०० तर चार वा तीन दिसांच्या सामन्यांत १५० धांवड्यो जर एकाद्र्या पंगडाच्यो चड जायत तर दुसऱ्या पंगडाक 'फॉलो-ऑन' दिवन पर्थून खेळपाक आपयतात. थारायिल्ल्या वेळांत सामनो पुराय जालो ना जाल्यार तो अनिर्णित उरलो, अशें समजतात.

**फलंदाज बाद जावपाचे प्रकार अशे:** १. गोलंदाजान घाल्ल्या बॉलान, बेल्स पडल्यार फलंदाज 'त्रिफळाचीत' जाता. २. फलंदाजान बॅटान मारिल्लो बॉल थारायिल्ले शिमेभितर क्षेत्ररक्षकान जिखल्यार, फलंदाज 'झेलचीत' जाता. ३. फलंदाजान खेळ चालू आसतना बॉलाक हात लायल्यार तो बाद थारता. ४. गोलंदाजान घाल्लो बॉल, फलंदाजाच्या पांयार तीनूय यश्टींक समांतर असो जर आपटलो आनी पंचाक तो बॉल विकेटीचेर पडटलो आशिल्लो अशे दिसलें तर फलंदाज 'पायचीत' (Leg Before Wicket) थारता. ५. कसलेंच कारण नासतना फलंदाजान दोन फावट बॉल बॅटावरवीं माल्ल्यार फलंदाज बाद जावंक शकता. ६. बॉल मारतना, बॅट वा कुडीचो खंयचोय भाग विकेटीक लागून विकेट पडल्यार फलंदाज 'हिट विकेट' जाता. ७. फलंदाजान प्रतिपक्षाच्या खेळगड्यांक झेल धरपाक वा हेर कसलेच तरेन आडखळ हाडल्यार फलंदाज बाद जावंक शकता. ८. फलंदाज धांवड्यो काडटासतना, क्षेत्ररक्षकान फलंदाज क्रिझींत पावचे आदीं विकेटी उडयल्यो, तर फलंदाज 'धांवबाद' (run out) थारता. ९. फलंदाज बॉल खेळपाक आपली थारायिल्ली शीम सोडून भायर सल्लो आनी यश्टीरक्षकान जर त्यावेळार आपल्या हातांतलो बॉल मोखून यश्टी उडयल्यो तर फलंदाज 'यश्टीचीत' जाता.

**गोलंदाजी करपाविशींचे नेम:** १. गोलंदाजी करतना गोलंदाजान नेमाभायर गोलंदाजी केल्यार ताका 'नो बॉल' म्हण्टात. २. गोलंदाजान बॉल शेंवटून माल्लो तर ताका 'थ्रो बॉल' म्हण्टात. ३. फलंदाजाच्या आवांठांत न येवपी बॉल गोलंदाजान घाल्यार ताका 'वाइड बॉल' म्हण्टात. वयल्या तीनूय वेळार विरोधी पंगडाक एक धांवडी मेळटा.

**फलंदाजी करपाविशींचे नेम:** १. गोलंदाजान घाल्लो बॉल, फलंदाजाच्या पॅडाक आपटून गेलो आनी फलंदाजान त्यावेळार धांवड्यो काडल्यो जाल्यार ताका 'लेग बाय' म्हण्टात. २. गोलंदाजान घाल्लो बॉल फलंदाजाच्या बॅटाक लागनासतना यश्टीरक्षकाक फटोवन गेलो, तर त्यावेळार ज्यो धांवड्यो काडटात ताका 'बाय' म्हण्टात. वयल्या दोनूय वेळार फलंदाजाक धांवड्यो मेळनात, त्यो पंगडाक मेळटात.

गोलंदाजी करपाच्यो वेगवेगळ्यो पध्दती: द्रुतगती, मध्यमगती आनी मंदगती ह्यो गोलंदाजी करपाच्यो तीन पध्दती आसात.

आउट स्विंगर, इन स्विंगर, ऑफ कटर, इन कटर आनी बाउन्सर हे द्रुत-मध्यमगती गोलंदाजीचे कांय मुखेल प्रकार आसा.

ऑफ ब्रेक, लेग ब्रेक, गुगली हे कांय मंदगती-फिरकी गोलंदाजीचे मुखेल प्रकार आसात.

**फलंदाजी करपाच्यो पध्दती:** कट, लेट कट, स्क्वॅअर कट, ग्लांस, हूक, पूल्, ड्राइव्ह हे कांय फलंदाजी करतना धांवड्यो मेळोवपाखातीर मारपाचे कांय फटके जावन आसात.

**खेळामैदान:** क्रिकेटचें खेळामैदान वाटकुळें वा अंडाकृती आसता. मध्यभागासावन शीम ९० यार्ड आसता. ७०, ७५ आनी ८० यार्ड शिमोय कांय प्रसंगार दवरतात. खेळपट्टी २२ यार्ड लांबायेची आनी १० फूट रुंदायेची आसता. खेळपट्टेच्या दोनूय अदींमदीं णव इंचाच्या अंतरान तीन विकेटी पुरतात. विकेटींची उंचाय २८ इंच आसता. विकेटींवयर लांकडाच्यो तीन बेल्स आसतात. विकेटीमुखार ४ फूट अंतराचेर एक शीम घालतात. विकेटीसावन शिमेमेरेनचो वाठार फलंदाजाचो आसता.

फलंदाजाची बॅट 'विलो' लांकडापसून घडयतात. तिचें वजन २ पौंड ४ औंस ते २ पौंड ६ औंस मेरेन आसता. ह्या परसूय चड वजनाची बॅट वापरूं येता. बॅटाची उंचाय चडांत चड ३८ इंच तर रुंदाय ४.५ इंचापरस चड आसपाक फावना. बॉल तांबड्या रंगाचो आसून तो कमयिल्लें चामडें, गुड्डेचे कुडके आनी दोरयांनी घडयतात. ताचें वजन सुमार ५.५ ते ५.७५ औंस आसता. ताचो आकार सुमार ८.८ ते ९ इंच हांचेमदीं आसपाक जाय.

फलंदाज दोनूय पांयांक खोंटेसावन मांडयेमेरेन पॅडां बांदतात. हाताक हातमोजे (ग्लोव्हज) घालतात. थाय पॅड, सेंटर पॅड ह्यो वस्तू बॉलापसून राखण मेळपाखातीर वापरतात. पांयांत बूट घालतात.

क्रिकेटच्या खेळांत राश्ट्रकुलांतल्या चडशा देशांनी आश्रय मेळिल्लो आसा. हो खेळ खेळपी देशांचीं नांवां अशीं.

इंग्लंड, ऑस्ट्रेलिया, दक्षिण आफ्रिका, वेस्टइंडीज, भारत, पाकिस्तान, श्रीलंका, न्यूझीलंड, झिम्बाब्वे, अमेरिका, बर्म्यूडा; फिजी, कॅनडा, डेन्मार्क, केनिया, टांझानिया, युगांडा, ज्रिबाल्टर, हाँगकाँग, मलेशिया, हॉलंड, बांगलादेश. सद्या ब्राझील, आर्जेंटिना, अस्तंत आफ्रिका, संयुक्त अरब अमिरात.

**नांवाजते खेळगडे:** क्रिकेट खेळांत नांवाजिल्ले खेळगडे अशे: *इंग्लंड:* सर जॅक हॉब्ज, सर लेन हटन, वॉल्टर हेमंड, फ्रेडी ट्रूमन, जिम लेकर, जिऑफ बॉयकॉट, इयान बोथम, टोनी ग्रेग, टोनी लुईस, डेनिस कॉम्पटन, ॲलन नॉट, कॉलीन कौड्रे.

*ऑस्ट्रेलिया:* सर डॉन ब्रॅडमन, व्हिक्टर ट्रुपर, बिल पॉन्सफर्ड, सिडनी, बार्न्स, रिची बेनो, इयान चॅपल, ग्रेग चॅपेल, डेनीस लिली, जेफ थॉमसन, रॉड मार्श, ॲलन बॉर्डर.

*वेस्टइंडीज:* सर फ्रॅंक वॅरिल, जॉर्ज हॅडली, एव्हरटन विक्स, क्लायड वॉलकॉट, क्लायव्ह लॉयड, विवियन रिचर्ड, लॉन्स गिब्ज, ॲण्डी रॉबर्टस्, डेरेक मरे, माल्कम मार्शल, सर गरी सोबर्स, रोहन कन्हाय.

*न्यूझीलंड:* जॉन रीड. मार्क बर्जेस, जॉन पार्कर, ग्लेन टर्नर, बेव्हन कॉंग्डन, रिचर्ड हॅडली, मार्टीन क्रो.

*पाकिस्तान:* हनीफ मोहम्मद, मुश्ताक मोहम्मद, मजीद खान, झहीर अब्बास, जावेद मियाँदाद, इम्रान खान, सर्फराज नवाझ, वासीम बारी, वासीम राजा, अब्दूल कादीर, इंतखाब आलम.

*श्रीलंका:* बंदूला वर्णपूरा, रॉय डायस, दुलीप मेंडिस, अर्जून रणतूंगा, अरविंद डिसील्वा, कुरुप्पू, सिध्दार्थी वेट्टीमूनी.

*भारतः* सी. के. नायडू, विजय मर्चंट, विजय हजारे, विजय मांजरेकर, बी. बी. निंबाळकर, प्रा. देवधर, मुश्ताक अली, हेमू अधिकारी, चंदू बोर्डे, पॉली उम्रीगर, विनू मंकड, पंकज रॉय, नरीमन कॉंट्रेक्टर, दिलीप सरदेसाय, अजीत वाडेकर, बिशनसिंग बेदी, भागवत चंद्रशेखर, एरापल्ली प्रसन्ना, वेंकटराघवन, मन्सूर अली खान, पतौडी, गुंडाप्पा विश्वनाथ, सय्यद किरमाणी, फरूख इंजीनियर, दिलीप वेंगसरकर, कृष्णम्माचारी श्रीकांत, कपिलदेव निखंज, मोहिंदर अमरनाथ, मोहम्मद अझरुद्दीन, रवी शास्त्री, सुनील गावस्कर.

**खासा खेळांसर्ती:** राश्ट्रीय (भारतीय) रणजी चषक, दुलीप चषक, देवधर चषक, सी. के. नायडू ट्रॉफी, कूच बिहार ट्रॉफी, विजय हजारे ट्रॉफी, विजय मर्चंट ट्रॉफी.

**आंतरराश्ट्रीय खेळांसर्तीः** प्रुडेन्शल क्रिकेट सर्त, चँपियन ट्रॉफी, आशिया कप, बॅन्सन ॲण्ड हेजीस क्रिकेट सिरीज, ऑस्टेलेशिया ट्रॉफी.

ब्रिटीश लोकांवांगडा हो खेळ भारतांत पावलो. १७२१ त ईस्ट इंडिया कंपनीचे खलाशी क्रिकेट खेळटाले, असो उल्लेख मेळटा. मुंबयत १७९७ वर्सा क्रिकेट खेळाक सुरवात जाली. १८४० सावन भारतीय लोक ह्या खेळांत वांटो घेवपाक लागले. १८४६ त मद्रास क्रिकेट क्लबाची थापणूक जाली. १८४८ त पारश्यांनी, १८६६ त हिंदूंनी, १८८३ मुसलमानांनी आपापल्या क्रिकेट क्लबाची थापणूक केली. १८८६ आनी १८८८ वर्सा पारश्यांचो संघ इंग्लंडाचे भोंवडेर गेलो. १८८९ आनी १८९२ त दोन ब्रिटीश पंगड भारतांत येवन खेळले. १९११ वर्सा महाराजा पतियाळाच्या फुडारपणाखाल, भारताचो पयलो प्रातिनिधीक पंगड इंग्लंडाक गेलो. १८९२ सावन भारतांत म्हत्वाची क्रिकेट सर्त पयलेच खेप सुरू जाली. हे सर्तींत पारशी आनी युरोपीय पंगड वांटो घेताले. तेन्ना ह्या सामन्याक 'दुरंगी' म्हण्टाले. १९०७ सावन हिंदूंचो, १९१२ सावन मुस्लीमानांचो तर १९३७ सावन किरिस्तांवांचो पंगड तातूंत वांटो घेवपाक लागले. हे सर्तींत भाग घेवपी पांच पंगडांक लागून हे सर्तीक 'पंचरंगी' म्हण्टाले. जातीयवादाक फाटबळ मेळचें न्हय, म्हूण १९४७ वर्सा हे सामने बंद केले. १९२८ वर्सा भारतीय क्रिकेट नियामक मंडळाची थापणूक जाली. राश्ट्रीय वस्तादपणाखातीर १९३४ सावन 'रणजी सर्त' खेळाची सुरवात जाली. ही सर्त भारताचो म्हान खेळगडो रणजीत सिंह हाच्या नांवावेल्यान सुरू केल्ली. हाका लागून भारतीय क्रिकेटीक संघटीत रूप मेळपाक हातभार लागलो. रणजी सर्तीचो पयलो सामनो मद्रास आनी म्हैसूर हांचेमदीं जालो. भारताच्या उदेंत, अस्तंत, मध्य, उत्तर, दक्षिण विभागांभितर 'दुलीप चषक सर्त' जाल्यार रणजी जैतिवंत आनी शेष भारतामजगतीं 'इराणी चषक सर्त' खेळटात.

**कसोटी क्रिकेटः** भारताचो पयलो कसोटी सामनो १९३२ त, इंग्लंडांत लॉर्ड्स हांगा जालो. हातूंत इंग्लंडान भारताचेर जैत जोडलें. ते उपरांत भारतान क्रिकेट खेळांत बरीच उदरगत सादल्या. आयज भारताक कसोटी क्रिकेट खेळपी म्हत्वाचो देश म्हूण वळखतात. भारतीय पंगडाच्या तशेंच भारतीय खेळगड्यांच्या नांवार जायते संवसारीक विक्रम आसात, तातूंतले कांय अशें:

*वैयक्तिक विक्रमः* (कसोटी क्रिकेट):

चडांत चड शतकां: सुनील गावस्कर - ३४; चडांत चड धांवड्यो: सुनील गावस्कर - १०,१२४; दोनूय डावांत तीन फावट शतकां: सुनील गावस्कर; चडांत चड अर्दशतकां: सुनील गावस्कर.

विनू मंकड आनी पंकज रॉय हांचेभितर पयले विकेटीखातीर ४१३ धांवांची भागीदारी

- कों. वि. सं. मं.

## क्रिस्तपुराणः

इंग्लीश धर्मोपदेशक फादर टॉमस स्टिफन्स (१५४९-१६१९) हाचो क्रिस्त पुराणग्रंथ. १६१४ वर्सा ह्या ग्रंथाची रचणूक जाली. १६१६ राशोल वाठारांत नव्यान थापणूक जाल्ल्या छापखान्यांत तो उजवाडाक आयलो. उपरांत १६४९ वर्सा ताची दुसरी आवृत्ती आनी १६५४ वर्सा तिसरी आवृत्ती आयली. ह्या ग्रंथाच्यो जरी तीन आवृत्त्यो जाल्यो तरी तातूंतली एकूय मुद्रीत प्रत मेळना. इंक्विझीशन संस्थेन आनी पोर्तुगेज राजकर्त्यांनी जे ग्रंथ नश्ट केले, तातूंत हांचोय आस्पाव आसूं येता. ताचे उपरांत ३०० वर्सांनी, १९०७ वर्सा जोसेफ एल. साल्डाना हाणें मंगळूर शारांत एका हातबरपावेल्यान ह्या क्रिस्तपुराणाची, रोमी लिपींत चवथी आवृत्ती उजवाडाक हाडली. हालींच्या काळांत १९५६ वर्सा प्राध्यापक शांताराम बंडेलू हाणें ह्या ग्रंथाची देवनागरी लिपींतली एक प्रत उजवाडाक हाडल्या.

ह्या ग्रंथांत वट्ट १०,९६२ होंवयो आसात. बायबलाच्या पोरन्या करारांतल्या ज्यूंच्या गजालींचेर आदारिल्लें 'पयलें पुराण' (३६ अध्याय, ४१८४ होंवयो) आनी नव्या करारांतल्या क्रिस्तचरित्राचेर आदारिल्लें 'दुसरें पुराण' - (५९ अध्याय, ६७८१ होंवयो) अशे ताचे दोन भाग आसात. गोंयांतल्या उच्चवर्णीय हिंदूंचें क्रिस्तीकरण जातकच तांच्या धर्मग्रंथाचेर बंदी हाडली. देखून ताचें प्रतिपुस्तक म्हूण स्टिफन्सान क्रिस्तपुराण रचलें. ह्या क्रिस्तपुराणाचेर, पूर्विल्ल्या मराठी संतकवींची चडकरुन ज्ञानेश्वर, नामदेव, एकनाथ, विष्णुदास, नामा ह्यांची छाप पडल्या. ताणें करुणोदात्त क्रिस्तचरित्र, आदम-ईव्ह आख्यान, माता मारीची वात्सल्य भक्ती, माग्दालेनची गुरुभक्ती, हेरोदीचें क्रौर्य, दाविदाचो रणावेश, बाप्तिस्ताचे हौतात्म्य, क्रिस्ताच्यो उपदेशकथा आदी भाग रोसाळ शैलींत बरयल्ले आसात.

हें पुराण मराठी भाशेंत बरयल्लें आसलें तरी तातूंत जायतीं कोंकणी उतरां भरशिल्यांत. खासा स्टिफन्सूय म्हण्टाः

'हें सर्व मराठिये भासेन लिहिलें आहे. . . पण सुध मराठी महिमा लोकासि नकळे देखुनु,. . . . सोंपीं ब्राह्मणांचे भासेचीं उतरें ठाई ठाई मिसरित करूनु कवित्व सोंपें केलें.'

- कों. वि. सं. मं.

## क्रुवा, एतिएन्न द् लाः

(जल्मः ? १५७९, रोजरा-फ्रांस; मरण- १६४३, गोंय).

एक फ्रेंच मिशनरी कवी आनी पंडीत. १५९९ वर्सा जेजुईत पंथाची दीक्षा घेवन १६०२ वर्सा तो भारतांत आयलो. फुडें १६१९ वर्सा फादर स्टिफन्स हाका मरण येतकच ताच्या जाग्यार राशोल सेमिनारींत ताची रॅक्टर म्हूण नेमणूक जाली. ताणें मराठी आनी कोंकणी भाशेचो पुरायेन अभ्या केलो. क्रिस्ताचो शिष्य संत पीटर हाच्या चरित्राचेर मराठी पद्यांत पुराण बरयलें. ताचें नांव अशें: DISCURSO SOBRE A VIDA DO APOSTOLO SAM PEDRO EM QUE SE REFUTA OS PRINCIPAIS ERROS DO GENTILISMO (मूळ शिष्य सां पेद्रु हाच्या जिविताचेर आख्यान. हातूंत हिंदुधर्मांतल्या गैरसमजाचें खंडण केलां). हें पुराण १६२९ त छापिल्ल्याची नोंद मेळटा. ह्या ग्रंथाचे तीन वांटे आसात आनी सगळ्यो मेळून तातूंत १२ हजार होंवयो आसात. फादर स्टिफन्सच्या क्रिस्तपुराणाभशेनूच हातुंतूय ग्रंथकर्त्यान गरज लागता तशीं पोर्तुगेज आनी कोंकणी उतरां वापरल्यांत. पयल्या वांट्यांत कवी, जेजू क्रिस्ताच्या मरणा आदलें आनी उपरांतचें सां पेद्रुच्या जिविताचें वर्णन करता. दुसऱ्या वांट्यांत बरोवपी ब्रह्मा, विष्णु, महेश आनी हेर हिंदू देवांविशीं सांगता आनी तांचेर तशेंच हिंदू चालीरितींचेर खर टिका करता. तिसऱ्या वांट्यांत कवी खऱ्या देवाची आनी किरिस्तांव धर्माची व्हडवीक गायता. ह्या पुराणावेल्यान पाद्री क्रुवान हिंदू धर्माचो खोल अभ्यास केला हें दिसून येता. तातूंत अहिल्येची कथा, प्रल्हादाचें चरित्र, सीताशुध्दी ह्यो कथा आस्पावतात. ह्या ग्रंथावेल्यान ताची मराठी भाशेवेली कुशळताय सिध्द जाता. ह्या ग्रंथाची एक प्रत लिश्बोआच्या 'बिब्लियोतेक नासियॉनाल' ह्या ग्रंथसंग्रहालयांत मेळटा. दुसरी एक प्रत पणजेच्या सेंट्रल लायब्ररींत आसा.

ताणें 'ख्रिस्ताचें वधस्तंभारोहण' (Paixaode Christo) नांवाचें आनीक एक मराठी काव्य बरयल्लें आसा. प्रा. अनंत काकबा प्रियोळकर हाणें तें संपादीत करून उजवाडाक हाडलां.

पाद्री क्रुवान कोंकणीतूय बरोवप केल्लें, असो उल्लेख मेळटा. पूण

ताचो एकूय कोंकणी ग्रंथ अजून मेळूंक ना.

- कों. वि. सं. मं.

**क्रेब्ज, सर हान्स अॅडॉल्फः** (जल्मः २५ ऑगस्ट १९००, हिल्डेशीप - अ. जर्मनी; मरणः २२ नोव्हेंबर १९८१, लंडन).

ब्रिटीश जीवरसायनशास्त्रज्ञ. १९१८-२३ ह्या काळांत ताणें गटिंगेन, फ्रायबर्ग आनी बर्लीन ह्या विद्यापीठांतल्यान वैजकीशास्त्राचो अभ्यास केलो. १९४५ त, हँबर्ग विद्यापीठाची एम्. डी. पदवी मेळयली. १९३४ त केंब्रीज विद्यापीठांत जीवरसायनशास्त्राचो प्रयोग निदर्शक म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९४५ सावन तो शेफील्ड विद्यापीठांत जीवरसायनशास्त्र विभागाचो मुखेल आनी प्राध्यापक जालो. १९५४ त, ऑक्सफर्ड विद्यापीठांत ताची जीवरसायनशास्त्राचो 'व्हिटली प्राध्यापक' म्हूण नेमणूक जाली.

क्रेब्ज हाणें 'अंतस्थ चयापचय' (interior metabolism) ह्या विशयाचेर म्हत्वाचें संशोधन केलें. १९३२ त, फ्रायबर्ग हांगा आसतना ताणें युरिया चक्राचो (Urea Cycle) सोद लायलो. १९३७ त, ताणें कार्बोहाइड्रेट्स, चरबी आनी प्रथिनां हांच्या ऑक्सिडीभवनाकडेन संबंदीत आशिल्ल्या tricarboxylic (citric) acid चक्राचो सोद लायलो, म्हूण ताका १९५३ चें शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकीशास्त्र ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फ्रिट्झ लिपमॅन हाच्या वांगडा वांटून मेळ्ळो. ह्या चक्राक फुडें 'क्रेब्ज चक्र' अशें नांव पडलें. १९५८ त, ताका 'सर' हो किताब मेळ्ळो. १९४३ त, तो रॉयल सोसायटीचो फेलो म्हूण वेंचून आयलो. ताणें कोर्नबर्ग हाच्यावांगडा बरयल्लो 'Energy Transformations in living matter' हो ग्रंथ १९५७ त उजवाडाक आयलो.

-कों. वि. सं. मं.

**क्लबः** एकसारकी अभिरुची वा हितसंबंद आशिल्ल्या लोकांचो एक खाशेल्या उद्देशाखातीर एकठांय जाल्लो पंगड, मेळ, समाज वा संस्था. जॉन आब्री हाणें 'पथिकाश्रमांतली इश्टागत' अशी क्लबाची व्याख्या केल्या. असले क्लब जेवणाखाणावांगडाच इस्पीको खेळपाचे तेचपरी राजकी वा समाजीक वावर करपाच्या कसल्याय हेतान स्थापन जाता.

पूर्विल्ल्या काळांत वेगवेगळे पिरायेच्या गटांतल्या मनशांप्रमाण संस्था आसतालीं. ग्रीक आनी रोमन लोकांत आयच्या क्लबांभशेनूच गुप्त-देवतांच्या उपासकांची तशेंच वेगवेगळ्या वेपारी लोकांचीं मंडळां आसतालीं. भारतांत असल्या मंडळांक सभा अशें म्हण्टात. ह्या सभांनी काणयो सांगप, साहित्याची चर्चा करप, प्रवचनां दवरप असल्यो कार्यावळी आसताल्यो. मदल्या युगांतले युरोपीय वेपारी संघ (गिल्ड्स) समाजीक, धर्मीक आनी शिक्षणीक संस्थांसारकोच वावर करताले.

पंदराव्या शेंकड्यांतल्या प्रबोधनकाळांत इंग्लंडांत विचारखंत एकठांय आयले आनी तांणी तरेकवार क्लबांची थापणूक केली. क्लबाखातीर खास अशी वेगळी सुवात नाशिल्ल्यान क्लबाचे सभासद जेवणा-खाणाक, च्या-काफी घेवपाक पथिकाश्रमांत (ताव्हेर्न) एकठांय जमताले आनी थंयच नवे आचार-विचार, परिस्थिती हाचेर भासाभास करताले. सभासद ताव्हेर्नाचो खर्च सगळ्यांभितर वांटून घेताले. मर्मेड पथिकाश्रमांत भरपी फ्रायडे क्लबाचो संस्थापक नामनेचो संशोधक आनी साहित्यीक सर वॉल्टर रॅले हो आशिल्लो. ह्या क्लबांत शेक्सपियर, जॉन फ्लेचर आदी नामनेचे साहित्यीक आशिल्ले. कवी आनी नाटककार बेन जॉन्सनान डेव्हिड पथिकाश्रमांत भरपी अपोलो क्लबाचे पयले नेम तयार केले. क्लबाचे नेम सभासदांचे अधिकार सुचयतात.

१६५० च्या सुमाराक इंग्लंडांत काफी घरां जालीं. हातूंत काफी घेवपा वांगडा सोरो पियेवप आनी फकाणां-विनोद चलताले. सॅम्युएल पेपिस हाणें तांकां 'कॉफी-क्लब' हें नांव दिलें. ऑक्सफर्ड आनी लंडन हांगा पयलें कॉफी-क्लब जालें. कॉफी क्लबांतले बेकार आनी आळशी लोक समाज इबाडटात, ह्या कारणाक लागून दुसऱ्या चार्ल्सान कॉफी-क्लब बंद करपाचो हुकूम काडलो. पूण तो चालीक लागलो ना.

'रोझ' ह्या पथिकाश्रमांत जमपी सभासदांनी दुसऱ्या जेम्स राजाक सत्तेवेल्यान उडोवन ताचे सुवातेर विल्यम ऑफ ऑरेंजाक हाडपाचें थारायलें आनी तातूंतल्यान इंग्लंडाची १६८८ ची राज्यक्रांती जाली. ॲन राणीच्या काळांत (१७०२-१७१४) व्हिग पक्षाचो 'किटकॅट क्लब' तर टोरी पक्षाचो 'स्टिक' क्लब आशिल्लो. तेभायर अपोलो क्लब (डॅवीड ताव्हेर्न), लंडन क्लब (मर्मेड ताव्हेर्न), लिटररी क्लब वा दी क्लब अशे नामनेचे क्लब पथिकाश्रमांत भरताले.

सर रिचर्ड स्टीलचें 'टॅटलर', जोसेफ ॲडिसनचें 'स्पॅक्टेटर' ह्या नेमाळ्यांक मेळिल्ली प्रसिध्दी हाचें मूळ कारण म्हळ्यार हे क्लब. डॉ. जॉन्सनचो क्लब साहित्यीक चर्चेखातीर नामनेक पाविल्लो. नामनेचे साहित्यिक बर्क, गोल्डस्मिथ, बॉस्वेल आनी नामनेचो नट गॅरीक हे ह्या क्लबाचे सभासद आशिल्ले.

इंग्लंडांतले राजकी क्लब अशे- १८३२ वर्सा ड्यूक ऑफ वेलिंग्टनान हुजूर पक्षाच्या सभासदांखातीर 'कार्लटन क्लब' स्थापन केलो. त्याच वर्सा ब्रिटीश संसदेंत सुदारणा जावंची म्हूण 'रिफॉर्म क्लब' केलो. उद्येगीक क्रांतीउपरांत वेवसायीक, साहित्यीक, बँकिंग, वेपारी, प्रवासी, सैनिक, राजदूत, विचारखंत, मोटारसायकलकार, घोड्याचे शर्यतींतले जॉकी हांचेय स्वतंत्र क्लब तयार जाले. क्रिकेट खेळाचें नियमन करपाखातीर नामनेचो 'मॅरिलीबोन क्रिकेट क्लब' (M.C.C.) १७८७ वर्सा स्थापन जालो.

बायलांचो पयलो क्लब 'ॲलेक्झांड्रा' १८८२ वर्सा जालो. १८८७ वर्सा बायलांचो 'युनिव्हर्सिटी क्लब', १९२० वर्सा 'विमॅन्स युनायटेड सर्व्हिसेस क्लब' आनी १९४४ वर्सा 'विमॅन्स प्रेस क्लब' अशे बायलांचे क्लब जाले. १८६२ वर्सा शिक्षण, वाचनालय, करमणूक अशी वेवस्था आशिल्लो क्लब कामगारांखातीर जालो. 'युनियन जॅक क्लब' हो सैनिकांचो क्लब १९०० वर्सा जालो. किरिस्तांव तरणाट्यांचे उदरगतीखातीर 'यंग मेन्स ख्रिश्चन असोसिएशन' (व्हाय. ॲम. सी. ए. १८४४) 'यंग विमेन्स ख्रिश्चन ॲसोसिएशन' (व्हाय. डब्ल्यू. सी. ए. १८७७) ह्यो संस्था सुर्वेक इंग्लंडांत स्थापन जाल्यो आनी फुडें अमेरिकेंत आनी सबंद जगभर ताचो प्रसार जालो.

फ्रांसाचो सॅलान क्लब कलावाङ्मयाखातीर नामनेक पाविल्लो. जर्मनींत कैसरच्या राज्यत्यागाउपरांत खूब राजकी मंडळांचो उदय जालो. तातूंतली 'जर्मन वर्कर्स पार्टी' हिटलरच्या नाझी चळवळीची जनक जावन आसा.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक अमेरिकेंत सगळ्या तरेचे क्लब स्थापन जाल्ले. विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक अमेरिकेच्या शिकागो शारांत स्थापन जाल्ले कारखानदार, वेपारी आनी हेर दुडवांकार लोकांचे 'Rotary International' (१९०५) आनी 'Lions International' (१९१४) हे संवसारभर पातळिल्ले क्लब आसात. 'Jaycee International' होय तेच धर्तेवेलो क्लब. आंतरराश्ट्रीय समजिकाय साधप, हें तांचें ध्येय आसा.

हालीं-हालीं भारतांत ल्हानमोट्या शारांत तरांतरांचीं मंडळां, सभा, संस्था आनी क्लब स्थापन जाल्यात. हीं मंडळां धर्म, संस्कृती, साहित्य, खेळ आदी मळांचेर वावर करतात.

बायलांचेय क्लब आनी महिला मंडळां आसात.

गोंयांतूय मुक्तीपयलींसावन बऱ्याच क्लबांची थापणूक जाल्ली. तातुंतले बरेचशे क्लब आयज मेरेन सांस्कृतिक मळाचेर आनी खेळामळाचेर वावर करतात. हालींच्या वर्सांनीय गांवांगांवांनी नवे नवे क्लब स्थापन जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**क्लॉड आल्बर्टः** (जल्मः १८९९, लाँजियर-बेल्जियम; मरणः मे १९८३).

बेल्जियम कोशिकावैज्ञानिक (cytologist). बेल्जियमच्या लिएज विद्यापीठकडल्यान वैजकीशास्त्राची पदवी घेतकच रॉकफेलर इन्स्टिट्यूट, न्यूयॉर्क हांगा ताणें २० वर्सां काम केलें. १९५० त, तो फ्री युनिव्हर्सिटी

ऑफ ब्रुसेल्स हांगा प्राध्यापक जालो आनी बोर्डेट इन्स्टिट्यूटचो संचालक जालो. १९५५ त, तो लिएज विद्यापीठांत प्राध्यापक जालो. तेउपरांत, ताणें कॅथलिक युनिव्हर्सिटी ऑफ लुवेन हांगा कोशिकाविज्ञानाची प्रयोगशाळा काडली. पेशीच्या संरचनात्मक (structural) आनी कार्यात्मक (functional) संघटनेचो सोद लायिल्लेखातीर ताका १९७४ त शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार, ख्रिश्चन दे डुव आनी जॉर्ज पॅलेड ह्या शास्त्रज्ञांवांगडा वांटून मेळ्ळो. क्लॉड हाणें Electron Microscopy आनी कॅन्सर रोग ह्या विशयांतूय म्हत्वाचें संशोधन केलें. कोशिकाविज्ञानांतल्या संशोधनाखातीर ताका कितलेशेच बेल्जियन आनी हेर विदेशी पुरस्कार फाव जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**ख:** देवनागरी वर्णमालेंतलें 'क' वर्गांतलें दुसरें व्यंजन. हाचो उच्चार कंठांतल्यान जाता. मळब, इंद्रिय, सुख, ब्रह्म, ज्ञान अशेंय हाचे अर्थ जातात. कामधेनुतंत्रांत हो शंख आनी कुंद हांच्यासारको धवो आसून त्रिगुण, पंचदेव आनी त्रिशक्ती हांणी युक्त अशें मानलां. प्रचंड, कामरूपी, ऋध्दी, वह्नी, सरस्वती अशींय हाचीं कितलींशींच नांवां तंत्रग्रंथांत दिल्यां.



पयले अवस्थेंतलो हो वर्ण खालसा हांगाच्या इ. स. प. तिसऱ्या शेंकड्यांतल्या शिलालेखांत मेळटा. हातूंत ताची सकयली गांठ वाटकुळी आनी बरीच मोटी आसा. पयल्या शेंकड्यांतल्या कुशाण काळांतल्या मथुरेच्या लेखांत ताची दुसरी अवस्था दाखयल्या. सातव्या शेंकड्यांतल्या झालारापाट हांगाच्या लेखांत तिसरी अवस्था दिसता. चवथी अवस्था जाजल्लदेवाचे मुस्तींतल्या लेखांत आयल्या. आयचो 'ख' आनी त्या काळांतलो 'ख' हातूंतलो फरक म्हळ्यार त्या काळांतल्या 'ख' तलो पयलो अर्दो 'र', हो अर्दो 'ग' कसो दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**खजुराहो:** भव्य वास्तुशिल्पाखातीर आनी खास करून कामशिल्पाखातीर संवसारभर नामना आशिल्लें भारतांतलें मंध्य युगांतलें एक नगर. तें मध्य प्रदेश राज्याच्या छत्तरपूर शाराचे आग्नेय दिकेक सुमार २९ किमी., महोबाचे दक्षिणेक सुमार ५५ किमी. अंतराचेर आसून निनोरातल (खजुराहो सागर) सरोवराचे देगेर वसलां. पूर्विल्या जेजाकभुक्ति वा जेजुकभुक्ति (बुंदेलखंड) प्रदेशांत णव्या शेंकड्यासावन तेराव्या शेंकड्यामेरेन राज्य करपी चंद्रवंशीय राजपूत चंदेल्ल वंशाची खजुराहो ही राजधानी आशिल्ली. धाव्या ते बाराव्या शेंकड्याच्या काळांत थंय शैव, जैन, आनी वैष्णव संप्रदायाचीं खूब देवळां बांदलीं. पोरने परंपरेप्रमाण थंय खूब तळयो आनी सुमार ८५ देवळां आशिल्लीं, अशे उल्लेख मेळटा. पूण आयज मात तातूंतलीं फकत २४ देवळां बरे स्थितींत उल्यांत.

पूर्विल्लें साहित्य, शिलालेख आनी भोंवडेवर्णनां हांच्या आदारावेल्यान अशें दिसून येता की 'खजुराहो' हाका खजूरवाटिका, खर्जूरवाहक, खजूराहट्ट, खज्जूरपूर, कजुरा वा कजर्रा (कज्राओ) अशीं कितलींशींच नांवां आशिल्लीं. भांगराचे खाजूर झाडाचे दोन रूख नगराच्या मुखेल दाराचेर उबारिल्ले, देखून ताका 'खजूरवाहक' अशें नांव पडलें आनी ताचेंच रुपांतर फुडें 'खजुराहो' अशें जालें, असो एक समज आसा. ह्या भागांत तेन्नाच्या काळांत खाजराचीं भरपूर झाडां आशिल्लीं, म्हूण 'खजुराहो' हें नांव पडलां आसूंक जाय, अशें कनिंगहॅम हाचें मत आसा.

सुमार २० चौ. किमी. क्षेत्रफळ आशिल्ल्या पूर्विल्ल्या नगरांतलीं देवळां अस्तंत, उदेंत आनी दक्षिण अशा तीन वाठारांनी विभागल्यांत.

**अस्तंत वाठारांतलीं मंदिरां:**

*चौसष्ट योगिनी मंदिर:* हें खजुराहोचें सगळ्यांत पूर्विल्लें मंदिर (इ.स. ९००) काली देवीक अर्पण केलां. ५ मी. उंचायेच्या आयताकृती पेडाचेर पुराय 'ग्रॅनाइट' फातरान हें देवूळ बांदून काडलां आनी भितर काली माता आनी हेर ६४ योगिनींच्यो मूर्ती आसात.



*कंदरिया महादेव मंदिर:* चौसश्ट योगिनी मंदिराचे उत्तरेक आशिल्लें खजुराहोचें सगळ्यांत व्हडलें मंदिर. नागर वास्तुशैलीचे सगळे घटक हांगा दिसून येतात. हें मंदिर ३१ मी. लांब, २०.३ मी. रुंद आनी ३०.९ मी. ऊंच आसा. हाचे गर्भकुडींत शिवलींग आसा. देवळाच्या वण्टींचेर देवता, मखर, किर्तिमुख, मिथुन, तपस्वी, अप्सरा, शार्दूल हांचीं शिल्पां आसात. प्रवेशदारावेल्या सुंदर तोरणाचेर संगीतकार आनी तांचीं वाद्यां, मानगीं, तरनाटे चले-चलयो, सुरसुंदरी, किन्नर आनी गंधर्व हांच्यो अप्रतिम मूर्ती आसात. अर्धमंडप, मंडप आनी महामंडप हांच्या पांख्यांचेर सोबीत नक्षीकाम आसून चारुय वण्टी, खांबे आनी गर्भकुडीचें दार हांचेर वेगवेगळ्या देवतांचीं शिल्पां आसात. दारांच्या दोनूय वटेनच्या खांब्यांच्या तळांत मानग्याचेर बशिल्ली गंगा न्हय आनी कासवाचेर बशिल्ली यमुना न्हय हांचीं सोबीत चित्रां आसात. कनिंगहॅमान सगळीं मेजून भितर २४६ आनी भायर ६४६ मूर्ती शिल्पां आसात, अशी नोंद केल्या.

*देवी जगदंबी मंदिर:* कंदरिया महादेवाच्या देवळाक तेंकून उत्तरेक देवी जगदंबेचें मंदिर आसा. तें मूळचें विष्णूचें मंदिर आशिल्लें. पूण आयज थंयचे गर्भकुडींत काळ्या रंगाची देवीची मूर्त आसून लोक काली वा जगदंबा म्हूण तिची पूजा करतात. त्रिमुखी अश्टभुजांचो शिव आनी वराहरुपी विष्णू हांच्यो मूर्ती ओडलायण्यो आसात.

*चित्रगुप्त मंदिर:* हें सूर्यदेवाचें देवूळ जगदंबी मंदिराचे उत्तरेक आसून

उदेतेंवटेन तोंड करून आसा. गर्भकुडींत १.५ मी. उंचायेची कलात्मक सूर्यमूर्ती आसा. मूर्तीच्या सकयल सात घोड्यांची आकृती आसा. भायल्या कोरीवकामांत शिकारी देखावे, राजाची मिरवणूक, हत्तींच्यो धिरयो, नृत्यांगनां हांचीं चित्रां आनी तेभायर ब्रह्मा आनी सरस्वती, शिवपार्वती, विष्णू आनी लक्ष्मी, तशेंच वराह हांच्यो सुंदर प्रतिमा आसात. गर्भगृहाच्या दक्षिण कोनशांत अकरा तकल्यो धारण केल्ली विष्णूची प्रतिमा आसा.

*विश्वनाथ आनी नंदी हांचीं मंदिरां:* हीं दोनूय मंदिरां उदेंतेंवटेन एकामेकांमुखार बांदल्यांत. तांच्या सपणांचे एके वटेन शिंवांची जोडी आनी दुसरे वटेन हतयांची जोडी आसा. इ. स. १००२ वर्सा बांदिल्ल्या विश्वनाथ मंदिरांत शिवलिंग आसा. गर्भकुडीच्या प्रवेशदाराचेर बैलाचेर बशिल्ली त्रिमुखी शंकराची आनी पार्वतीची मूर्त आसा. ताचे दावे आनी उजवेवटेन ब्रह्मा आनी विष्णू हांच्यो मूर्ती आसात. देवळाची लांबाय २७.१ मी. आनी रुंदाय १३.९ मी. इतली आसा. वण्टीचेर शिव-पार्वती, ब्रह्मा आनी विष्णू, विष्णूचे अवतार, देव-देवता, नर्तकी आनी अप्सरा हांचे तरेकवार हावभाव दाखोवपी मूर्ती आसात. ह्या मंदिरांत १००२ मदलो धंग ह्या चंदेल्ल राजाचो एक संस्कृत शिलालेख आसा. नंदीमंदिरांत गुळगुळीत नंदीची भव्य मूर्त आसून तिची उंचाय १.८ मी. आनी लांबाय २.१ मी. जावन आसा.

*पार्वती मंदिर:* हें विश्वनाथ मंदिराचे नैर्ऋत्येक आसा. हातूंत पयलीं विष्णूची मूर्ती आशिल्ली. आयज थंय मानग्याचेर उबी आशिल्ली गंगेची प्रतिमा आसा.

*लक्ष्मण मंदिर:* कंदरिया महादेवाच्या देवळालागींच पंचायतन शैलीचें लक्ष्मण मंदिर आसा. तें विष्णूक अर्पण केल्लें आसून ताची लांबाय सुमार ३० मी. आनी रुंदाय १४ मी. आसा. मंडपांतल्या एका शिलालेखावेल्यान अशें समजता की चंदेल राजा लक्ष्मवर्मन हाणें हें देवूळ बांदलें, म्हूण ताका 'लक्ष्मणमंदिर' हें नांव पडलें. कनोजचो राजा देवपाल हाणें हांगा चतुर्भुज, त्रिमुख विष्णू मूर्तीची स्थापना केली. अधिष्ठानाच्या कोनशांत चार उपमंदिरां आसात. हाचें प्रवेशदार आनी तोरण अलंकृत कोरीव कामाखातीर नांवाजल्लें आसा. तातूंत मदीं लक्ष्मीची प्रतिमा आसून तिचे दावे वटेन ब्रह्माची आनी उजवे वटेन शिवाची मूर्ती आसा. वयल्या पट्ट्याचेर नवग्रहाचीं शिल्पां आसात. दाराच्या खांब्याचेर समुद्रमंथनाचो देखाव, विष्णूचे अवतार, वेलबुट्टी हांचें सोबीत कोरीवकाम आसा. लक्ष्मण मंदिराचे दक्षिणेक मातंगेश्वर मंदीर आसून तातूंत २.५४ मी. लांबाय आनी १.१२ मी. रुंदाय आशिल्लें भव्य शिवलिंग आसा. ताका तेंकुनूच विष्णूच्या वराह अवताराक अर्पण केल्लें वराह मंदिर आसा. तातूंत भितर २.६७ मी. लांब आनी १.७५ मी. रुंद वराहमूर्ती आसा. ते मूर्तीच्या आंगार सगळ्याक ब्रह्मा, विष्णू, शिव, सरस्वती, गंगा, गंधर्व, दिक्पाल, नवग्रह ह्या देवतांच्यो मूर्ती कोरांतल्यात.

**उदेंत वाठारांतलीं मंदिरां:**

*ब्रह्मा मंदिर:* हें खजुराहो दर्याक तेंकून आसा. सुमार ९ व्या शेंकड्यांत ग्रॅनाइट आनी वालुकाश्मांनी बांदून काडिल्लें हें देवूळ मुळांत विष्णूक अर्पण केल्लें. पूण सद्या चतुर्मुखी लिंग गर्भकुडींत आसून ताका ब्रह्मा हें चुकीचें नांव पडलां. प्रवेशदाराचेर विष्णूची मूर्त आसा.

*वामन मंदिर:* वामनावताराचें हें देवूळ ब्रह्मा मंदीराचे उत्तरेक आसा. ताचे भायले वण्टीचेर भरपूर नक्षीकाम केल्लें आसून नृत्यमुद्रेंतल्या अप्सरांचीं तरेकवार शिल्पां आसात.

*घंटा मंदिर:* खजुराहोच्या आग्नेय दिकेक आशिल्लें हें जैन मंदिर. ताच्या खांब्यांचेर सगळ्याक घांटी आनी सरपळ्यो हांचें नक्षीकाम केल्लें आसा, देखून ताका घंटा वा घंटाई मंदिर अशें म्हण्टात. हाची रचणूक स्तंभरुपी उक्त्या मंडपाची आसा. हांगा कांय जैन मूर्ती आनी बुध्दाची एक मूर्त सांपडली. तेभायर गरुडाचेर बशिल्ली अष्टभुजा जैनदेवतेची मूर्ती प्रवेशदाराचेर आसून दारावयल्या शिल्प पट्टेचेर महावीराच्या आवयचीं १६ सपनां चित्रायल्यांत.

*पार्श्वनाथ मंदिर:* हें जैन मंदिरांतलें सगळ्यांत व्हडलें आनी अप्रतिम मंदिर आसा. तें २० मी. लांब आनी १०.६ मी. रुंद आसा. गर्भकुडींत अलंकृत नक्षीकामाचें शिंवासन आसा आनी ताच्यामुखार नंदीची मूर्ती आसा. पार्श्वनाथाची मूर्ती १८६० त थंय प्रस्थापित केली. भायल्या वण्टीचेर तरेकवार हावभाव केल्ले बायलांच्यो मूर्ती आसात. पार्श्वनाथ मंदिराचे लागींच उत्तरेक ल्हानशें आदिनाथ मंदिर आसा.

**दक्षिण वाठारांतलीं मंदिरां:**

*दुलादेव मंदिर:* हें चंदेल्लांच्या काळांतलें (इ.स. ११५०) पूर्विल्लें मंदिर जावन आसा. ह्या मंदीराचें खाशेलेपण म्हळ्यार ताचें हेरांपरस वेगळेंच आशिल्लें तेमक. तें ल्हान ल्हान वर्तुळांनी वयर चडयल्लें आसा. देवळाचे वण्टींवयल्यो शालभंजिकांच्यो मूर्ती ओडलायण्यो आसात.

*चतुर्भुज मंदिर:* ह्या मंदिरांत चतुर्भुज विष्णूची भव्य मूर्त आसा. भायले वण्टीचेर तीन भागांत सोबीत शिल्पकाम आसा. तातूंत शिंवाचें तोंड आशिल्ली बायलेची प्रतिमा सुंदर दिसता.

*कलाविशेष:* वास्तुकलेचे नदरेंतल्यान पळेत जाल्यार धजुराहोचीं चडशीं मंदिरां नागर शैलींत वा 'इंडो-आर्यन' शैलींत बांदल्यांत. फकत कांय भोव थोड्या मंदिरांत (देखीक: कंदरिया, महादेव, लक्ष्मण) 'पंचायतन' ही उपशैली दिसून येता. मुखेल मंदिराच्या चारुय वटेनच्या कोनशांनी चार उपमंदिरां आसात. चडशीं मंदिरां वालुकाश्मांनी जाल्यार भोव थोडीं ग्रॅनाइट फातरान बांदल्यांत. खजुराहोची तेमक रचणूक शंखाकार आसून वयर अरुंद जायत गेल्या. तेमकाचेर कळस बसयल्लो दिसता. हांगाचीं चडशीं मंदिरां शिल्पांकित आसात. खजुराहोच्या शिल्पकारांनी हांगाच्या शिल्पांनी दिसपट्ट्या मनीस जिवितांतले विशय हाताळ्ळ्यात. त्या काळांतले देव-देवता, अवकाशांतल्यो अप्सरा, सुरसुंदरी, धर्मीक संप्रदाय, झुजां, मिरवणुको, शिकार, नृत्य, तेन्नाची राजकी आनी शिक्षणीक पध्दत हांचेंय दर्शन हांगाच्या शिल्पांतल्यान घडटा. खास करून हांगाचीं गंधर्व-किन्नरांचे कामक्रीडेचीं शिल्पां संवसारभर नामनेक पावल्यांत.

खजुराहो हांगा मातंगेश्वर मंदिराचे दक्षिणेक थोड्याच अंतराचेर जार्डाईन म्युझियम आसा. हें वस्तुसंग्रहालय बुंदेलखंडांतले ब्रिटीश राजकी प्रतिनिधी डब्ल्यू. इ. जार्डाइन हाणें स्थापन केल्लें. ह्या वस्तुसंग्रहालयांत हिंदू, जैन, बुध्द देव-देवतांच्यो सुमार २००० वयर मूर्ती दवरल्यात.

ह्या सगळ्या वास्तूशिल्पांक लागून खजुराहो हें देशी-विदेशी भोंवडेकारांचें, इतिहास-संशोधकांचें आनी कला-मोग्यांचें आकर्शण जालां. थंय वचपाखातीर हालींच दिल्ली सावन विमानाची येरादारी सुरू जाल्या. भारताचें पुरातत्त्व खातें ह्या वास्तूंची देखभाल करता.

- कों. वि. सं. मं.

**खणकाम:** जमनींत सांठिल्ले खनिजांचे सांठे पोखरून काडपाच्या कामाक 'खणकाम' अशें म्हण्टात. जमनीच्या ज्या भागांतल्यान हे सांठे काडटात, त्या भागाक 'खण' अशें म्हण्टात. खनिज सांठ्यांचे पूर्वेक्षण (prospecting) करप, सांठ्याचो सोद लागतकच ताच्या विस्ताराची आनी अर्थीक मूल्यांची विस्तारान म्हायती मेळोवप, सांठे खणीभायर काडप, तो फोडून ताचो चुरो तयार करप, धातू गाळून घेवप, धातूचें शुध्दीकरण करप हीं कामां खणकाम उद्येगधंद्यांत आस्पावतात.

**इतिहास:** अश्मयुगाचे सुर्वेक खनिजांपसून तयार केल्ल्या आयुधांचो वापर जातालो. आंध्र प्रदेशांतल्या कुर्नूल हांगा तुंगभद्रेचे देगेक इ. स. प. २५०० वर्सांपयलींचीं अश्मयुगीन आयुधां मेळ्ळ्यांत. सुमार साडेचार लाख वर्सांपयलीं म्हळ्यार पूर्वपुराणाश्मयुगांत मनीस फ्लिंटचीं आयुधां वापरतालो. आदिमानवान वापरिल्ले चडशे खनिज पदार्थ अधातू आशिल्ले. शस्त्रां आनी आयदनां हांचेखातीर तो फ्लिंट, चर्ट, क्वॉर्टझ् ह्या खनिजांचो आनी क्वॉर्टझाइट, संगजिरें, चुनखडी सारक्या फातरांचो वापर करतालो. उत्तरपुराणाश्मयुगांतल्या काळांतलीं फातरांचीं कांय आयदनां ईजिप्तांत सांपडल्यांत.

इ.स.प. ३०,००० ते २०,००० ह्या काळांतले भाजून तयार केल्ले

मातयेचे पुतळे मोरेव्हियांत सांपडल्यात. ईजिप्तच्या पिरॅमिडांवयल्यान इ.स.प. सुमार २६०० ह्या काळांत फातराचें खणकाम मोट्या प्रमाणांत चालू आसूंक जाय, अशें दिसून येता. पुराणाश्मयुगांतल्या मनशान फुडल्या बारा खनिजांचो वापर केल्लोः कॅल्सेडोनी, क्वॉर्ट्झ, रॉक क्रिस्टल, सर्पेटाइन, ज्वालाकाच, सुवर्णमाक्षिक, जमुनिया (ॲमेथिस्ट), संगजिरे, अंबर, जेडाइट, कॅल्साइट आनी फ्ल्युओरस्पार. नवाश्मयुगीन मनशान भांगर आनी तांबें वापरपाक सुरवात केली आनी नेफ्राइट, सिलिमनाइट आनी पिरोजा (टर्कॉइज) ह्याय खनिजांचो उपेग केल्लो. खणकामाविशींची एकदम सुरवातीची नोंद (इ.स.प. सुमार २००० वर्सां) सिनाई द्वीपकल्पांतल्या ईजिप्शियनांच्या पिरोजाचे खणीची जावन आसा. तांबड्या दर्याच्या ईजिप्तावटेनच्या दर्यादेगेर ईजिप्शियनांनी इ.स.प. १९२५ सावन पाचू मेळोवपाखातीर शेंकड्यांनी कूपक खणिल्ले.

भांगर, तांब्याच्या पयलींपसून वापरांत आशिल्लें. तांब्याचो सोद इ. स. प. १८,००० च्या सुमाराक लागलो, अशें म्हण्टात. ईजिप्शियनांनी इ. स. प. १२,००० सावन तांब्याचो वापर केल्लो, अशें दिसून येता. इ. स. प. २,६०० सावन चांदी, भांगर आनी तांबें हे धातू दिवपाघेवपाखातीर वापरांत आशिल्ले. सिंधू संस्कृतायेंत मेळिल्ल्या अवशेशांवयल्यान भारतांत इ. स. प. तिसऱ्या सहस्रकांत काशाचो उपेग जातालो, अशें दिसून आयलां. इ. स. प. २००० त भारतांत तांब्याचो वापर जातालो, अशेय कांय पुरावे मेळ्ळ्यात. ह्या अवशेशांनी तांबें आनी काशाचीं शस्त्रां, आयदनां आनी उपकरणां मेळ्ळ्यांत. पूर्विल्ल्या काळांत भांगर चड करून सूदानांतल्या न्यूबिया हे सुवातींतल्यान येतालें. हें खणकाम सुमार ४,००० वर्साआदीं सुरू जाल्लें, अशें म्हण्टात. भांगराच्या आनी रूप्याच्या धातुकांचें आर्विल्ले पध्दतीचें खणकाम ग्रीसांतल्या कॅसँद्रा हांगा इ.स.प. २५०० ते ३६५ मेरेन चालू आशिल्लें. सुरवातीच्या काळांत वापरिल्लें लोखण चड करून अशनींपसून (meteorites) मेळयलां आसतलें. ट्रॉय हांगा मेळिल्ले शिशाचे गुळे इ. स. प. २५०० च्या सुमाराक तयार केल्ले आसतले, अशें म्हण्टात. इ. स. प. सव्या शेंकड्यापयलींच्या इतिहासीक अवशेशांत जस्त मेळ्ळां. ॲरिस्टॉटल हाचो शिष्य थीओफ्रॅस्टस (इ. स. प. ३७२ ते २८७) हाणें बरयल्ल्या खनिजविज्ञानाच्या पयल्या पुस्तकांत सोळा खनिजांचें धातू, खंडप आनी माती अशें वर्गीकरण केल्लें.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत भांगर आनी हिरे हांच्या खणींचो सोद लागलो. ह्या शेंकड्यांत इंग्लंडांत उद्येगीक क्रांती जाली आनी खनिजां सोदपाक आनी खणी उक्त्यो करून तांचें उत्पादन करपाक सुरवात जाली. नव्या खनिजांचे सोद लागले आनी तांचे नवे नवे उपेग कळपाक लागले. ह्या क्रांतीउपरांतच्या शंबर वर्सांत कच्च्या लोखणाचें उत्पादन १०० पटींनी, खनिज इंधनाचें ७५ पटींनी आनी तांब्याचें ६३ पटींनी वाडलें. प्रगत देशांत खणकामाच्या वेवसायांत इतलें यांत्रिकीकरण जालां की, मनशाक प्रत्यक्ष खणकाम चलता थंय वचनासतना दूरचित्रवाणीवरवीं फकत विजेचो बटण दामून खणकाम नियंत्रित करूं येता. कांय खणींनी व्हडल्या-व्हडल्या यंत्रांचो वापर करतात. ज्या देशांनी उपाट खनिज संपत्ती मेळ्ळी, तांकां वेपारांत आनी आंतरराश्ट्रीय राजकारणांत उंचेली सुवात प्राप्त जाली आनी तांची व्हड प्रमाणांत उद्येगीक उदरगत जाली. कॅनडा, मेक्सिको, व्हेनेझुएला, ब्राझील, पेरु, चिली, दक्षिण आफ्रिका, ऑस्ट्रेलिया, ऱ्होडेशिया, ब्रह्मदेश, भारत ह्या देशांतलो खणकामाचो वेवसाय वाडत आसून विसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक सावन संवसारभर टिटॅनियम, निकेल, कोबाल्ट हांचेसारके धातू तशेंच युरेनियम आनी हेर किरणोत्सर्गी धातू सोदपाचे आनी तांचें उत्पादन वाडोवपाचे यत्न चालू आसात.

**उक्त्यो खणी आनी भूंयगत खणीः** जंय खनिजांचे सांठे भूपृष्ठाचेर आसतात वा भूपृष्ठासावन चड खोल नासतात, थंयचें खणकाम उक्त्यो खणी मारून करतात. जंय अदीक शक्तीचीं विजेचीं उपकरणां वापरून काम चलता, थंय थोडे अदीक खोलायेंतल्या सांठ्याचें खणकाम लेगीत वयलीं खडपां खणून काडून उक्त्या प्रमाणांत करतात. सांठ्याची खोलाय चड आसत जाल्यार भूंयगत खणकाम करतात. चडशें ३० ते ३५ मी. खोलायेमेरेन आशिल्ल्या सांठ्याचें खणकाम उक्ते पध्दतीन करतात. कांय प्रगत देशांत ६० ते ७० मी. खोलायेमेरेन आशिल्ले सांठे लेगीत उक्त्या प्रकारचें खणकाम करून भायर काडटात. खोलाय वाडत गेल्यान उक्त्यो खणी चलोवप धोक्याचें आनी म्हारगायेचें जाल्यान हालींच्या काळांत चडशा देशांनी भूंयगत पध्दतीन खणकाम करतात. जमनीसकयल खोल जाग्यांत आशिल्लो खनिजांचो भाग खणून काडपाखातीर वेगवेगळे तरेचे भूंयगत मार्ग (बोगदे) खणचे पडटात. खणकाम करता ते सुवातीचेर विखारी वायूंचो स्फोट जावपाची उपाट शक्यताय आसता. ह्या अपघाताची चत्राय दिवपाची आनी वायुवीजनाची वेवस्था करप, उजो प्रतिबंधक यंत्रणा कार्यक्षम दवरप, हाचेखातीर बारीकसाणेन जतनाय घेवची पडटा. प्रत्यक्ष खणकाम करता ते सुवातीचेर मोकळी आनी नितळ हवा खेळती दवरपाची येवजण केल्ली आसता. कांय गरम हवामान आशिल्ल्या खणींनी कामगारांची कार्यक्षमता थोड्या वेळाभितरूच सोंपता. अशा वेळार खणींतली हवा कृत्रिम रितीन थंड करची पडटा. शुध्द हवा खणींत खेळोवचेपयलीं स्फोटाक लागून तयार जाल्ले खणींतले अपायकारक आनी विखारी वायू विरळ करतात वा पुराय भायर काडटात.

**खणकामाचे प्रकारः** उक्त्या खणकामाचे प्रकार अशेः १. सपणां खणून २. ग्लोरी होल खणकाम ३. प्लेसराचें खणकाम. भूंयगत खणकामाचे प्रकार अशेः १. छातयेमुखार जावपी वा अभिमुख खणकाम (ठोकळ्याच्या आकाराच्या सांठ्याचे) २. हातासकयल वा सकयल बागोवन जावपी खणकाम (खनिज शिरो वा व्हडले निक्षेप हांचें) ३. सकयल्यान वयले दिकेक जावपी खणकाम (उभट शिरांचें वा थरांचें) ४. आकसत वचपी निखननाचे गाळे ५. उप-पातळ्यो उक्त्यो करून जावपी खणकाम ६. वयल्या भागाचें काप घेवपाची पध्दत (रुंद शिरो वा दाट सांठे) ७. सकयल्यान पोखरून कोसळून दिवपाची पध्दत.

**कोळशाचें खणकामः** कोळशांच्या सांठ्यांची संरचना विंगड विंगड तरांची आसता. कोळशाचे चडशे सांठे थरांचे आसतात. हातूंतले चडशे थर क्षैतिज वा थोडे तिरपे आसतात, जाल्यार कांय उबे आसतात. कांय थर भूपृष्ठासकयल कमी खोलायेचेर आसतात, तर कांय थर २-३ किमी. परस चड खोल आसतात. सांठ्याची संरचना, खोलाय आनी हेर परिस्थितीप्रमाण कोळशाचें खणकाम वेगवेगळ्या प्रकारांनी करतात. देखीक- दोंगरा भितर आशिल्ल्या सांठ्यामेरेन देंवतेचेर वा दरींत आशिल्ले सुवातीपसून सरळ म्हळ्यार निक्षेपगामी बोगदे खणून खणकाम करतात. अमेरिकेसारकिल्या प्रगत राश्ट्रांत ७०% कोळसो भूंयगत पध्दतीन आनी सुमार ३०% कोळसो सांठ्यांचे पट्टे कापून काडटात.

**भूंयगत येरादारीः** सुरवातीच्या काळांत ट्रॅमगाडयो, रूळमार्गी मालगाडयो वा लोखणी तारांतल्यान ओडत वचपी मालगाडयो हांचो वापर खणींतले माल येरादारीखातीर जातालो. तांचे सुवातेर हालींच्या काळांत, डीझेलाचेर वा विजेचेर चलपी गाडयांचो चड उपेग जाता. कांय खनिजांचे खणींनी वाहक पट्टे वापरून खणकामाचे सुवातीपसून ते भूपृष्ठाचेर, जंय खनिजांचें शुध्दीकरण करतात थंयमेरेन, मालाची येरादारी करतात. विजेच्या तारांवयल्यान हुमकळपी सुरक्षित पाळणीं वा डबे, एकरूळी आगगाडी, डीझलाचे ट्रॅक्टर, ल्हान बसगाडयो हांचेवरवीं मानायांची येवपा-वचपाची वेवस्था करतात.

तोपयेंतले दिवे, झोत दिवे, हातांतल्यान सहज व्हरूं येतात अश्यो बॅटरी, मालवाहक गाडयांवयले दिवे, हीं खणींतलीं उजवाडाचीं चल साधनां आसात. सुरक्षित असो डेव्ही हाचो संरक्षक दिवोय उजवाडाखातीर वापरतात. हालींच्या काळांत विद्युत् दिवे वापरतात.

भूपृष्ठावयल्यान आनी भूंयगत उदकाच्या सांठ्यापसून खणींत उदक व्हांवत येवचें न्हय म्हूण जतनाय घेवची पडटा. देखून, उदक आडावपाखातीर आनी ताच्या निकासाखातीर (drainage) टांकयो

बांदपाचें आनी गटारां-बोगदे खणपाचें काम करचें पडटा. इतलें करून्यू उदक व्हांवत रावलें जाल्यार तें पंपांनी उसपून भायर काडचें पडटा.

धातुकाचें शुध्दीकरण करतना सांठ्यांतलो नाका आशिल्लो गाळ, खडपांचो चुरो आनी हेर रद्दी माल पयस एके सुरक्षित सुवातीचेर ओतून ताची रास रचतात. राशीच्या लागसार उदकाचे वझरे, व्हाळ, न्हंयो, शेतांचें पीक आसल्यार तीं दुशित जावंचीं ना, हाची जतनाय घेवची पडटा. असल्या ह्या रद्दी मालांत केन्नाकैन्नाय गाळून घेतिल्ल्या धातुखेरीज हेर धातूंचीं विद्राव्य (soluble) संयुगां आसतात आनी फाटींफुडें तांचो उपेग करूं येता. वीज, डीझेल तेल, संपीडित (compressed) हवा, द्रवदाब आनी वाफेची शक्त ह्या वेगवेगळ्या प्रकारांनी खणकामाखातीर शक्तीची पुरवण करतात.

**दर्यांतलें खणकाम:** हातूंत दर्याचें उदक तशेंच दर्याचो खोल तळ आनी ताचेसकयलीं खडपां, खंडाचो निधाय (shelf) आनीं खंडाचो उतार (slope) आनी दर्यादेग हांच्यांतल्यान खनिज संपत्ती मेळोवपाच्या वावराचो आस्पाव जाता. सांठे तीन तरेचे आसतात: १. उदकांत विरगळिल्ले २. दर्यादेग, निधाय उतार आनी खोल तळ हांचेर पातळिल्ले ३. तळाचेर पक्क्या खडपांच्या स्वरूपांत आशिल्ले सांठे, मॅग्नेशियम, सोडियम, कॅल्शियम, ब्रोमीन, पोटॅशियम, गंधक, स्ट्राँशियम, बोरॉन, युरेनियम आनी हेर ३० मूलद्रव्यां आनी तांचीं लवणां उदकांत विरगळिल्ल्या स्वरुपांत आसतात. दर्याच्या उदकापसून शुध्द उदक मेळोवं येता. मेकळे आनी संहत (घट्ट) सांठे दर्याच्या तळाक पातळिल्ले म्हळयार उक्ते पडिल्ले आसतात.

दर्यांतल्या खणकामाच्यो पध्दती आनी भुंयेवयल्या खणकामाच्यो पध्दती हातूंत खूब सारकेपण आसा. पूण दर्यांतलें प्रत्यक्ष खणकाम सुरू करचेपयलीं पूर्वतयारेच्या कामांत दर्याच्या खाऱ्या उदकाक लागून जावपी आडमेळ्यांचो विचार करचो पडटा. दर्याच्या पृष्ठभागापसून उदकासकयल आशिल्ल्या सांठ्यामेरेन पावपाखातीर तयार केल्ले नळ, कूपक आनी हेर यंत्रणा हांचेर दर्याच्या खाऱ्या उदकाक लागून अपायकारक रसायनीक विक्रिया जावंची न्हय, म्हूण जतनाय घेवंची पडटा. दर्याच्या उदकांतल्यान सोडियम, मॅग्नेशियम, ब्रोमीन आनी मीठ काडटात.

**खणकामांतले धोके:** सुरुंगाचे स्फोट, खडप फोडप, येरादारीच्या साधनांचेर माल चडोवप-देंवोवप, तांची येरादारी करप आनी हेर यंत्रां हांचेकडेन काम करतना अपघात जावपाची खूब शक्यताय आसता. भूपृष्ठावयल्या उक्त्या खणींपरस भूंयगत खणींनी धोक्याची परिस्थिती निर्माण जावपाचीं जायतीं कारणां आसात. भूंयगत सुवातींनी आशिल्ल्या वातावरणांत, बंदिस्त आनी खोल सुवातीक लागून रसायनीक आनी भौतिक बदल जाल्ले आसतात. हे सुवातींत ऑक्सिजनचें प्रमाण कमी कमी जायत वता आनी कामगारांचें श्वसन, दिवे जळप, लांकूड कुसप, ह्या कारणांक लागून कार्बन डाय-ऑक्साईडचें प्रमाण वाडटा. खडपांत आशिल्ले अपायकारक वायू, स्फोटक पदार्थ लासून तयार जाल्ले वायू, स्फोटक पदार्थ लासून तजार जाल्ले वायू, स्फोटाच्या वेळा, खडप फोडटना आनी मालाची येरादारी करतना तयार जाल्ली धूळ हे सगळे पदार्थ खणींतले हवेंत भरसतात. देखून, खणींतले अपायकारक वायू आनी धूळ भायर काडून खणींत शुध्द हवा खेळोवपाखातीर वेवस्था केल्ली आसता. खणींतल्या काळखाक लागून कामगारांक नेत्रदोल (nystagmus) तशेंच कुड्डेपणासारको रोग जावं येता.

कांय खनिजांचे आपोआप जाल्ले स्फोट, मेणवाती, उक्त्या वातींचे दिवे, सुरूंगाखातीर वापरिल्ल्यो वाती जळत रावप, स्फोटक द्रव्य वापरून जळपी शेगड्यो, स्टोव्ह, धुम्रपान, विजेच्या उपकरणांनी आनी तारांनी इबाड जावन किटी उसळप, अशा जायत्या कारणांक लागून खणींत उजो पेट्टा. भूंयगत खणींतलो उजो भूपृष्ठावयल्या उज्यापरस चड खर आसता आनी असले खणींत निर्माण जाल्ल्या विखारी वायूंक लागून जिवितहानी लेगीत जाता. देखून खणींत अग्निशामक पथक दवरतात. युरेनियमासारक्या खनिजाच्या कांय खणींनी किरणोत्सर्गाक लागून अपायकारक परिस्थिती निर्माण जायत आसता. चडशा किरणोत्सर्गी पदार्थांतल्यान भायर येवपी रेडॉन वायू अपायकारक आशिल्ल्यान ताका लागून फुफ्फुसां इबाडून 'कॅन्सर' लेगीत जावं येता. देखून, खणींत थारायल्ले मर्यादेपरस चड किरणोत्सर्ग आसूंक फावना, म्हूण खास कायदे केल्यात. किरणोत्सर्गान दूशित जाल्ली हवा वायुवीजन करून भायर काडून ताच्या जाग्यार शुध्द हवा खेळोवपाची जतनाय घेवची पडटा.

**भारतांतलें खणकाम:** भारतांत उक्त्या आनी भूंयगत अशा दोनूय प्रकारांनी सुमार ५० म्हत्वाच्या खनिजांचें खणकाम जाता. लोखण, मँगनीज, तांबें, जस्त, शिशें आनी भांगर हांचीं धातुकां, कोळसो आनी चुनखडक हांच्या चडशा खणींचें यांत्रिकीकरण जालां. भारतांतल्या राज्यवार खनिजांचें १९८२ वर्साचें उत्पादन (दशलक्ष रुपयांत) अशें: बिहार- ९,६८०; आसाम- ६,१८९; मध्य प्रदेश- ५,००४; गुजरात- ४,१२५; अस्तंत बंगाल- ३,३८५; आंध्र प्रदेश- २,००८, ओरिसा- १,२५५; महाराष्ट्र- १,२०१; तमिळनाडू- १,०६०; राजस्थान ६१६; कर्नाटक- ४७६; उत्तर प्रदेश-३८८; गोंय- ३०२ आनी बाँबे हाय- १,३५८.

कोळशाच्या उत्पादनांत भारताचो संवसारांत सातवो क्रमांक लागता. कोळशाचें उत्पादन राणीगंज (अस्तंत बंगाल), झारिया, बोकारो (बिहार) हांगा आनी मध्य प्रदेश, ओरिसा, आंध्र प्रदेश, महाराष्ट्र आनी हेर राज्यांनी जाता. हेर खनिजांचें उत्पादन करपी मुखेल राज्यां अशीं- *लिग्नाईट:* गुजरात, जम्मू-काश्मीर, राजस्थान, तमिळनाडू. *क्रोमाइट:* ओरिसा, महाराष्ट्र, बिहार, कर्नाटक, आंध्र प्रदेश आनी हेर राज्यां. *लोखण:* गोंय, मध्य प्रदेश, बिहार, कर्नाटक. *मँगनीज:* मध्य प्रदेश, महाराष्ट्र, ओरिसा, आंध्र प्रदेश, कर्नाटक, बिहार, राजस्थान, गोंय. *बॉक्साइट:* बिहार, गोंय, मध्य प्रदेश, महाराष्ट्र, तमिळनाडू, गुजरात आनी हेर राज्यां. *ॲल्युमिनियम:* मध्य प्रदेश, क़ेरळ, कर्नाटक, उत्तर प्रदेश, तमिळनाडू. अस्तंत बंगाल. *तांबें:* बिहार, राजस्थान. *शिशें:* राजस्थान, बिहार, आंध्र प्रदेश. *जस्त:* राजस्थान, आंध्र प्रदेश, केरळ. *भांगर:* कोलार खणी (कर्नाटक). *ॲपाटाइट आनी रॉक फॉस्फेट:* आंध्र प्रदेश, बिहार. *जिप्सम:* राजस्थान, आंध्र प्रदेश, गुजरात, हिमाचल प्रदेश, जम्मू आनी काश्मीर, कर्नाटक, मध्य प्रदेश आनी हेर राज्यां. *कायनाइट आनी सिलीमनाइट:* बिहार, मेघालय, महाराष्ट्र आनी हेर राज्यां. *चुनखडक:* चडशा सगळ्या राज्यांनी मेळटा. *मॅग्नेसाइट:* तमिळनाडू, उत्तर प्रदेश, कर्नाटक, आनी राजस्थान. *अभ्रक:* बिहार, राजस्थान, आंध्र प्रदेश. *क्षार (iodised):* राजस्थान, गुजरात, अस्तंत बंगाल.

भारतांत १९८२ वर्सा ४८,७५० रु. मोलाच्या खनिजांचें उत्पादन जालें. १९८२ त, उत्पादनाचे नदरेन इंधनांचो (कोळसो, लिग्नाइट, खनिज तेल आनी सैमीक वायू) पयलो क्रमांक आशिल्लो (९०.७१%, ४४,२२० कोटी रु.). तेउपरांत धातवीय (५.७०%, २,७६०.६ दशलक्ष रु.) आनी अधातवीय (३.५८%, १,७४७.८ दशलक्ष रु.) खनिजांचो क्रमांक आशिल्लो.

१९८०-८१ वर्सा १०,२३९,५०० (हजार रूपया) मोलाच्या खनिजांची आनी धातूंची निर्यात जाली. १९८०-८१ वर्सा ४०,१६८,५२८ (हजार रुपया) मोलाच्या खनिजांची आनी धातूंची आयात जाली. भारतांतल्यान लोखणाचे धातुक, हिरे (रत्नांच्या स्वरुपांतले), अभ्रक, मोलादीक खडे, मँगनीज धातुक, कायनाइट, क्रोमाइट, कोळसो, मीठ (सैंधव), मॅग्नेसाइट, सिलिमनाइट, इल्मेनाइट हीं खनिजां निर्यात जातात. हीं खनिजां जपान, बेल्जियम, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, ब्रिटन, अस्तंत जर्मनी, उदेंत जर्मनी, चेकोस्लोव्हाकिया, रुमानिया, फ्रांस, रशिया, स्विट्झर्लंड, हंगेरी, इटली, युगोस्लाव्हिया, ह्या देशांनी निर्यात करतात. भारतांत खनिज तेल, गंधक, ॲपेटाइट (रॉक फॉस्फेट), मोलादीक खडे, ॲस्बेस्टस, धातुक आनी संहत स्वरुपांतलें जस्त, उद्येगीक हिरे, क्रायोलाइट, ॲंटिमनी धातुक हीं खनिज द्रव्यां आयात करतात.

**भारतांतलें खनिजांविशींचें धोरण आनी कायदे:** वेगवेगळ्या खनिजांचें राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय म्हत्व मतींत घेवन भारत सरकारान खनिजांचें नियंत्रण, उत्पादन, संरक्षण, आयात, निर्यात ह्या गजालींचेर ताबो दवरपाखातीर कांय म्हत्वाचे कायदे केल्यात. हाचेखातीर सल्लो दिवपी आनी नियंत्रण दवरपी आनी प्रत्यक्ष काम करपी कांय संस्थाय तयार जाल्यात. कांय म्हत्वाच्या खनिजांची म्हायती गुप्त दवरतात. देखीक- अणुशक्त निर्मणेखातीर लागपी खनिजां. कांय म्हत्वाच्या खनिजांच्या खणींचें राश्ट्रीयकरण केलां.

भारतांतल्या खणकामाचे कायदे मुखेल दोन प्रकारचे आसात. पयल्या प्रकारचे कायदे खनिजांचेर नियंत्रण, तांचें संरक्षण, हाचेविशीं आसात. दुसऱ्या प्रकारचे कायदे खणकामांत सुरक्षितताय निर्माण करप, कामाची परिस्थिती सुदारप, कामगारांचें समाजकल्याण हाचेविशीं आसात. दुसऱ्या प्रकारचे कायदे खणकाम उद्येगधंद्यांत आशिल्ल्या लोकांखातीर आसात.

**खणकामाचें प्रशिक्षण:** १९२८ त बिहारांत धनबाद हांगा थापणूक जाल्ल्या 'इंडियन स्कूल ऑल माइन्स अँड अप्लाइड जिऑलॉजी' हे संस्थेंत खनिज अभियांत्रिकी, खणकाम आनी अनुप्रयुक्त भूविज्ञान ह्या विशयांचें शिक्षण दितात. बनारस हिंदु विश्वविद्यालय, वाराणसी; बंगाल इंजिनिअरींग कॉलेज, सिबपूर (अस्तंत बंगाल); इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजी, खरगपूर (अ. बंगाल) आनी उस्मानिया विद्यापीठ, हैदराबाद ह्या सगळ्या संस्थांनी खणकाम उद्येगधंद्यांविशींचें पदवी परीक्षेमेरेनचें शिक्षण दितात.

फुडल्यो संस्था खणकामाविशींचीं कामां करतात: १. 'नॅशनल मिनरल डेव्हलपमेंट कॉर्पोरेशन लि.' (१९५८). खनिज तेल, सैमीक वायू आनी कोळसो सोडून हेर खनिजांचो सोद आनी खणकाम करपाचें काम ही संस्था करता. २. 'इंडियन ब्यूरो ऑफ माइन्स' (१९४८). भारतीय सरकाराक खनिजांविशीं बुद्द दिवपी ही संस्था खणींचें निरीक्षण, खणकामाच्या तंत्राविशीं सल्लो दिवप हीं कामां करता. ३. 'कोल बोर्ड'- कोळशाच्या खणींतल्यो सुदारणा आनी कोळशाचें संरक्षण करपाचो वावर ही संस्था करता. ४. 'नेव्हेली लिग्नाइट कॉर्पोरेशन'. दर वर्सा सुमार ३५ लाख टन लिग्नाइटाचें उत्पादन करता आनी संबंदीत उद्येगधंदे चलयता.

- कों. वि. सं. मं.

**गोंयचो खणउद्येग:** पूर्विल्ल्या काळासावन गोंयांत लोखण आनी मँगनीज हांचे सांठे आशिल्ले. पूण तांचें खणकाम आनी अभ्यास जावंक नाशिल्लो. एके फ्रेंच वेवसाय संस्थेन Compagnie des Mines de Fer de Goa' पयलेच खेप गोंयांत दिवचल वाठारांत कांय लोखण धातुकाच्या सांठ्याची पळोवणी केली. विसाव्या शतमानाचे सुर्वेक आनीकूय कांय उद्योजकांनी (entrepreneurs) दक्षिण गोंयांत मँगनीज धातुकाचें खणकाम करपाचे उपाट यत्न केले.

'जिऑलॉजिकल सोसायटी ऑफ इंडिया' हे संस्थेचो सर एल्. एल्. फर्मर हाणें १९०९ त गोंयांत येवन दिवचलच्या खनिज सांठ्याचो अभ्यास करून गोंयचे लोखण धातुकाचे सांठे आनी सावंतवाडी (रत्नागिरी) हांगाचे सांठे हांचेमदली सापेक्षता तुळा काडली. आदल्या काळांत गोंयांत मँगनीज धातुकाचे सांठे आशिल्ले, असो उल्लेख डन हाणें केल्लो (१९४२). खाजगी भूवैज्ञानिकांनी गोंयच्या ल्हानल्हान वाठारांनी लोखण आनी मँगनीज धातुक सांठ्यांचें खणकाम करपाखातीर वेळोवेळ अभ्यास केलो. हे नदरेन, जर्मन भूवैज्ञानिक डॉ. ऑर्तल हाणें तेन्नाच्या पोर्तुगीज सरकाराचे नेमणुकेवेल्यान गोंयचो एक भूविज्ञान नकासो तयार केलो. तरी आसतना, अजूनमेरेन खणकामाविशींच्या पध्दतशीर अभ्यासाक सुरवात जावंक नाशिल्ली. 'जिऑलॉजिकल सर्वे ऑफ इंडिया' हे संस्थेचे भूवैज्ञानिक वा खाजगी भूवैज्ञानिक सबंद भारतांतल्या खणकामाविशीं संशोधन करताले पूण त्या काळांत गोंय पोर्तुगेजांच्या शेकातळा आशिल्ल्यान तांकां गोंयचे खनिज संपत्तीचेर लक्ष दिवप शक्य नाशिल्लें.

१९६१ त गोंय मुक्त जातकच गोंयच्या पध्दतशीर भूविज्ञान अभ्यासाक सुरवात जाली. १९६२-६८ ह्या काळांत 'जिऑलॉजिकल सर्वे ऑफ इंडिया' हे संस्थेन भूविज्ञान नकाशाकाम आनी खनिज सांठ्यांचें प्रांतवार मूल्यनिर्धारण (assessment) करपाक सुरवात केली. तांच्या ह्या वावराक लागून गोंयचो पयलो प्रमाण भूविज्ञान नकासो तयार जालो. लोखण, मँगनीज, माती आनी बॉक्साइट हांचे सांठे आनी तांचें मूल्यानिर्धारण हांचोय अभ्यास सुरू जालो. १९६० तले आंकडेवारीप्रमाण १९७० तल्या गोंयांतल्या लोखणाच्या धातुकाच्या सांठ्याचो अदमास ४११ दशलक्ष टन (८१ दशलक्ष टन +६२% लोखण आशिल्ली दीफळ्यांची धातुक) इतलो आशिल्लो. सुमार १.१ दशलक्ष टनांचें काळें लोखण आनी ३.५७ दशलक्ष टनांच्या मँगनीज धातुकाचें अनुमान लायिल्लें. तेचपरी चिनी मातयेच्या ३ लाख टन सांठ्याचो अंदाजूय लायिल्लो.

**लोखण धातुक:** १९६० मेरेन, लोखण धातुकाच्या क्षैतिज पातळेसकयल्या मॅग्निफेरस फायलाइट पातळे मेरेन वेधन (drilling) पध्दतीन खणकाम चलतालें. मॅग्निफेरस फायलाइटची पातळी ही लोखण धातुकाची आदारभित्त आनी मर्यादा अशें मानतात. तशेंच भुंयेंतल्या उदकाचे पातळेफुडें वेधन पध्दत थांबोवची पडटा, कारण ताचेफुडें खणकाम करपाक खूब आडमेळीं येतात. उदकाचे पातळेपोंदा खणकाम करतकच, सुमार ५० मी. खोलायेमेरेन लोखण धातुकाचे २-३ पटे, तांचे मजगतीं आशिल्ले मॅग्निफेरस फायलाइटचे कांय पटे आनी पुडीचें धातुक आसा, अशें दिसून आयलें. आतांमेरेनच्या अभ्यासा वयल्यान अशें दिसून येता की सांठे आनी उत्पत्ती हांच्या प्रकाराप्रमाण कांय वाठारांनी ५०-५५% लोखण अंतर्वस्तु (contents) आशिल्ल्या आनीकूय १२०-१२५ दशलक्ष टनांच्या कमी पांवड्याच्या दीफळ्यांच्या धातुकाचे सांठे आसात.

आनीकूय नव्या नव्या सांठ्यांचो सोद घेवपाखातीर यत्न चालू आसात, पूण जितले नवे सांठे मेळटले, तितलें तांचें खणकाम करपाक चड समस्या उब्यो जातल्यो. जे खोलायेचेर हें खणकाम जातलें, त्या पातळ्यांचेर धातुक प्रमाणापरस चड वयले वजें (overburden) येतलें. तेभायर उदकाचे पातळेसकयल खणकाम करतना, सुरक्षिततायेची वेवस्था करतना 'फोणकूल उतार कोन' (pit slope angles) रुंदावतलो आनी परत हाका लागून धातुक प्रमाणापरस वयलें वजें आनीकूय वाडटलें. एके थारावीक पातळेमेरेन खणकाम करप अर्थीक नदरेन शक्य आसा. अर्थीक नदरेन शक्य आसून लेगीत एकेकदां खणकाम करप खूब कठीण जाता. लोकवस्ती आशिल्ल्या वाठारालागसार आनी शेतांच्या लागसार आशिल्ल्या खणींतल्या नाका आशिल्ल्या (rejects) मालाची वासलात (disposal) कशी लावप ही एक व्हडली समस्या आसा. ५० मी. समुद्रसपाटेखाला आशिल्ल्या पूड धातुक सांठ्याचें खणकाम करप, थंय फुटिल्ल्या उदकाच्या झऱ्यांक लागून आनी पावसाच्या उदकाक लागून खूब कठीण आनी खर्चीक जाता.

जांचें शुध्दीकरण (beneficiation) करपाची गरज आसा, अशा मध्यम आनी कनिष्ठ प्रतिच्या धातुकांचे आनीकूय सांठे आसपाची खूब शक्यताय आसा. दळप (grinding) आनी धुवप हांचेसारक्यो शुध्दीकरण करपाच्यो कांय पारंपारिक पध्दती वापरल्यार अॅल्युमिना अंतर्वस्तू (content) देंवन धातुकाचे प्रतींत सुदार हाडूं येता. पूण ही पध्दत अपुरी आसा. हाचेपरस्पूय चड बरी आनी परिणामकारक पध्दत वापरल्यार अदीक घनता आशिल्ले धातुक सोपे पध्दतीन काडूं येता.

भूवैज्ञानिकांनी खणकामाच्या मळार उदरगत करपाक उपाट यश मेळोवन लेगीत ह्या उद्येगांत कितलींशींच संकश्टां आनी अडचणी उप्रासल्यात, त्यो अश्यो: उणे जायत वचपी सांठे, धातुकाची देंवत वचपी प्रत (grade), खणकामांतलीं आडमेळीं, यंत्रसामग्रीच्या वाडट्या दराक लागून दिसपट्टो वाडपी खणकामांतलो खर्च, इंधनाच्या वाडट्या दराक लागून वाडिल्लो खर्च; उद्येगाच्या सगळ्या थरांचेर दिसपट्टी जावपी वेतनवाड. 'जिऑलॉजिकल सर्वे ऑफ इंडिया' हे संस्थेन अशें अनुमान काडलां की, हें शतमान सोंपता आसतनाच गोंयचे खनिज सांठ्ये सोंपपाची शक्यताय आसा.

| उत्पादन वर्स | वट्ट खणी | लोखण धातुक | मँगनीज | फेर्रुजीनस | बॉक्साइट |
|---|---|---|---|---|---|
| १९८५ | १४८ | १,१३,११,९८१ | ३,४४४ | ५७,२३१ | ५,७४७ |
| १९८६ | १३६ | १,२६,५४,३४० | ३,५५६ | ४२,९९७ | १५,१३७ |
| १९८७ | १३८ | १,३६,०१,५७९ | ३,५९८ | २९,२५६ | ६,११३ |

**मँगनीज धातुकः** १९०५-१९०६ ह्या काळांत ऑटो आयर्झीक मायर आनी माणिकलाल ह्या उद्येगपतींनी गोंयांत मँगनीज धातुकाचें खणकाम करपाचो पयलो यत्न केलो. तांणी केल्ल्या खणकामाविशींची विस्तारान म्हायती मेळना. पूण तांचो उद्येग चड काळ चललोना आनी १९४५ मेरेन व्हडलीशी उदरगत जालीना.

मँगनीज धातुक खणकाम उद्येगाची सुरवात १९४५ त जाली आनी उपरांत तातूंत जायत्या उद्येगपतींनी वांटो घेतकच ह्या उद्येगधंद्याची रोखडीच भरभराट जाली. १९५० त २०,१४५ टनांच्या एका पार्सलाची पयली निर्यात जाली. १९५३ त ही निर्यात तेंगशेर पावली (२.०७ लाख टन). भारत सरकारान ४०% Mn कसोटीवयल्या उच्च प्रतीच्या मँगनीज धातुकाचे निर्यातीचेर बंदी हाडिल्ल्यान आनी गोंयचे उच्च प्रतीच्या धातुकांचे सांठे उणे जायत आशिल्ल्यान मँगनीजची निर्यात कमी जायत आसा. उद्येगाक सुरवात जायतपसून आयजमेरेन १६ लाख टन उच्च प्रतीचें धातुक (४५% Mn)आनी ३२ लाख कमी प्रतीचें मँगनीज धातुक तशेंच फेरूजिनस (ferruginous) धातुक (२८-३५% Mn) हाची निर्यात जाली.

जमनीवयल्या कुरवांवयल्यान मँगनीजच्या सांठ्याचो सोद लायतात आनी खणीचें काम जमनीवयले थर पोखरुन काडून करतात. ताच्या सांठ्याविशींची आनी धातुकाच्या पांवड्याविशींची अचूक म्हायती मेळप शक्य नाशिल्ल्यान आगाऊ नियोजन करपाक मेळना. सांठ्याच्या अनिश्चिततेक लागून ह्या lateroid सांठ्याचें खणकाम करप घुस्पागोंदळाचें आनी कठीण आसता. Drilling आनी deep pitting ह्या दोनूय पध्दतींचो समर्पक वापर करून मँगनीजचें खणकाम करतात. योग्य शुध्दीकरणाच्यो पध्दती वापरल्यार मालाचो पांवडो आनीकूय वाडोवं येता.

**खणकाम संस्था आनी निर्यातः** सद्या गोंयांत ज्यो खणकाम संस्था काम करतात, त्यो सगळ्यो पोर्तुगेजांच्या मुस्तींत सुरू जाल्यो. १९८४ वर्सा मेळिल्ल्या ७६८ सवलतींतल्यो फकत १४८ सवलती चालीक लागल्यो. लोखणाक आयिल्लें मोल पळोवन कितल्याशाच उद्येगपतींनी गोंयच्या लोखण खणकाम उद्येगांत वांटो घेतलो आनी १९८० च्या दशकांत ह्या उद्येगाची भरभराट जाली. गोंयांत ल्हान, मध्यम आनी व्हड अश्यो तरेकवार उक्ते पध्दतीन खणकाम करपी खणी आसात. सगळ्यांत व्हडली खण सुमार १ दशलक्ष मी./यार्ड मेरेन खनिज उत्पादन करता. गोंयच्या खाजगी खणकाम उद्येगाक सगळ्यांत चड मागणी जपानी तिखें गिरणींकडल्यान सुमार ८ ते ९ दशलक्ष मी./ यार्ड धातुक मेरेन आसा. गोंयांतल्यान ज्या देशांक नेमान निर्यात जाता अशे हेर देश अशे- रुमानिया, दक्षिण कोरिया, इटली, तैवान, संयुक्त अरब अमिराती. १९८१ सावन आग्नेय आशिया, मध्य उदेंत, उदेंत युरोपांतले सुमार १५ देश नेमान गोंयच्या लोखण धातुकाची आयात करतात. जपान, दक्षिण कोरिया, तैवान आनी अस्तंत युरोप हांगा गोंयच्या धातुकांची नेमान निर्यात जाता. हेर धातुकांची एम्. एम्. टी. सी. वरवीं निर्यात जाता. गोंयचें ९०% उत्पादन उच्च प्रतीचें (Sinter fines) धातुक आनी उरिल्लें १०% दिफळ्यांचें धातुक जावन आसा. १९८२ पयलीं दोन पॅलेट यंत्रसंचां (plants) वरवीं गोंयच्या लोखण धातुकाची निर्यात चलताली. पूण हे यंत्रसंच बंद जातकच लोखण धातुकाचे निर्यातींत थोडो उणाव आयलो. फाटल्या पांच वर्सांनी लोखण धातुकाचे दर ३७ टक्क्यांनी देंवल्यात. मध्यवर्ती सरकाराकडल्यान ह्या उद्येगांक मेळपी सवलतीय उण्यो जाल्यात.

**उदका येरादारीची वेवस्थाः** मांडवी, झुवारी न्हंयो तांचे फांटे आनी कुंभारजुवेंचो कालवो हांचेवरवीं गोंयच्या खनिजांची येरादारी जाता. मुरगांव बंदरावेल्यान बार्जीवरवीं जावपी ही उदका येरादारी रस्तो आनी रेल्वे येरादारीपरस सवाय आसा. कुंभारजुवें कालवो, मांडवी आनी जुवारी न्हंयांक जोडिल्लो आशिल्ल्यान खास करून पावसाळ्यांत (जून ते सप्टेंबर म्हयन्यांत) खनिजांचें हाड-व्हर करप सोपें जाता. पावसाळ्यांत फकत दीफळ्यांच्या धातुकांचें हाड-व्हर करप जाता, कारण पावसाक लागून बारीक पुडीचें धातुक ओलें आनी चिकट जावं येता. वट्ट खनिजांच्या उदका येरादारी मार्गाची लांबाय ६५ किमी. आसा. मांडवी न्हंयचेर ४६ आनी जुवारी न्हंयचेर २६ धातुकांचो माल चडोवपी धक्के आसात. गोंयांतल्या खणकाम उद्येगांत सद्या २१२ बार्जी येरादारी करतात. सगळ्यांत व्हड बार्जींची दरेकी १,८०० मॅ. टन माल व्हरपाची क्षमता आसा. सादारण बार्जींनी ५००-७०० मॅ. टन माल वता.

गोंयांतल्यान चडशा खनिजांची परदेशांत जावपी निर्यात मार्मागोवा ह्या म्हत्वाच्या बंदरांतल्यान जाता. ह्या बंदरांत खणकाम निर्यात सुरू केल्यार गुमार शंबरांपरस चड वर्सां जावन गेलीं. १९५५ मेरेन ह्या बंदरांतल्यान ल्हान प्रमाणांत खनिजांचें हाड-व्हर जातालें. १९५९ त एका वराक १,००० मॅ.टन इतली क्षमता आशिल्लो धातुक माल भरपाचो यंत्रसंच हांगा बसयलो.

गोंयच्या ५०% खनिजाची निर्यात मार्मागोवा बंदरांतल्यान जाता जाल्यार ४०% मालाची निर्यात ४ खाजगी बोटींवरवीं जाता. खाजगी येरादारी करपी बोटींतली पयली बोट १९६९ त आयली, जाल्यार १९८२ त दोन नव्यो बोटी आयल्यो. ह्या बोटींची तांक दरेकी १.५ दशलक्ष मॅ. टन/वर्स. इतली आसा. बर्थ नं. ९ ह्या यांत्रिक धातुक भरपाच्या संचांतल्यान ९०,००० टन धातुकाचो माल भरप जाता. खाजगी खणकाम संस्थांनी दिल्ल्या हातभाराक लागून मार्मागोवा बंदराक संवसारीक लोखण धातुक वेपारसेठेंत आंतरराष्ट्रीय पांवडो प्राप्त जाला.

गोंयच्या सगळ्या खनिजांची परदेशांत निर्यात जाता. लोखण धातुकाक लागून वर्साक सरासरी १६० कोटी रुपयांचें परकीय चलन मेळटा.

**खणकाम आनी पर्यावरणः** उर्वरीत (residual) धातूंच्यो पातळ्यो, हेर किरकोळ खनिजांचो धातुकांतलो आस्पाव आनी खणकाम करता आसतना भितर झिरपुपी उदक, ह्यो खणकामाविशींच्यो मुखेल पर्यावरण समस्या जावन आसात. विज्ञानिक पध्दतीन पुनरुध्दार (reclamation) आनी पर्यावरण नियंत्रण करतना ह्यो सगळ्यो गजाली मतींत घेवपावांगडाच पोरो (Waste) मालाच्या सादारण रसायनीक आनी भौतिक स्वरुपाविशींचोय विचार करचो पडटा. अणुकेंद्रीय शक्ती स्थानकाची थापणूक तशेंच खनिज तेल रसायनाच्या उत्पादनाचें अधिश्ठापन करतना कितल्याशाच सुवातींचो (locations) पर्याय आसता पूण खणकाम उद्येग सुरू करतना खनिजां जे सुवातींत निश्चित आसात, तेच सुवातींत खणकाम करचें पडटा.

खणकाम करता त्या वाठारांतल्या पर्यावरणांत आनी पारिस्थितीकींत (ecology) दुश्परिणाम घडून येवपाची शक्यता आसता. आदल्या काळांत, भोंवतणच्या वाठाराविशींचो विचार मतींत घेनाशिल्ल्यान खनिजांचें

खणकाम करतना पर्यावरणांत कितले दुश्परिणाम घडून आयले, हाचीं जायतीं उदाहरणां फुडारिल्ल्या देशांनी घडून आयल्यांत. देखून, आयच्या काळांत विकसनशील तशेंच फुडारिल्ल्या देशांनी खणकाम उद्येग सुरू करता आसतना भोंवतणच्या वातावरणाचेर आनी पर्यावरणाचेर ताचे कसलेच वायट परिणाम जावंचेना, हाची जतनाय घेवंची पडटा.

**फुडारः** गोंयच्या खणकाम उद्येगाविशींचो फुडार लोखण धातुक सोडल्यार व्हडलोसो उजळ दिसना. बदलत वचपी तीखें उत्पादनाच्या तंत्रगिन्यानाक लागून कच्चो माल वापरपाचें प्रमाण उणेंउणें जायत आसा, हाकालागून मँगनीज धातुकाचें उत्पादन उणें जावं येता. गोंयांत मेळपी चुनखडकाची प्रत व्हडलीशी बरी ना आनी चिनी मातयेचें उत्पादन सामकेंच उणें जालां. गोंयचे आनी देशाचे दुडवांवेवस्थेक हातभार लावपी गोंयचें मुखेल खनिज लोखण हाचीय परिस्थिती समाधानंकारक ना. आंतरराश्ट्रीय बाजारपेठेंत गोंयच्या लोखणाक उच्च प्रतीच्या लोखणावांगडा सर्त करची पडटा. उत्पादन आनी येरादारीचो खर्च हांचें विकपाच्या दरावांगडा प्रमाण जुळना. ६६% Fe बारीक (fine) लोखणाची पुरवण मर्यादीत आसा. हाका लागून मागणी पुरवण करपाखातीर उणे प्रतीच्या धातुकाचें शुध्दीकरण (beneficiation) करपाची गरज आसा. दीफळ्यांचे धातुक आनी व्हड आकारमानाचे धातुक हांचे निर्यातीविशींची समस्या तशीच आसा. ह्या उद्येगाच्या फुडाराची कांय वर्सां राखण करपाखातीर कमी आनी उच्च अंशा दोनूय प्रतींच्या धातूंचें उत्पादन करून तांची फाव त्या प्रमाणांत भरसण (blend) करप गरजेचें आसा.

- जे. कुएल्हो

**खतखतें:** फळभाज्यो आनी कंदमुळां घालून केल्लो एक पातळसो पदार्थ. तातूंत दुदी, वायगीं, भेंडे, पोपाय, कणसां, कणंगा, केळीं, (तारली), सांगो, मुळे, बटाट, चणे अशे नग घालतात. दरेक भाजयेची रूच वेगवेगळी आसता, पूण एकठांय येतकच एक आगळीच रूच लागता.

खतखत्याची सुरवात कित्याक आनी कशी जाली, हें सांगप कठीण. सगळे तरेच्या भाज्यांत तरेकवार जीवनसत्त्वां आसतात. तीं सगळीं आपशींच एकठांय करून मेळटात, ह्या विचारान ही खतखत्याची चाल सुरू जाली जावंये, वा घडये इल्ल्यो इल्ल्यो उरिल्ल्यो भाज्यो भायर उडोवंचे परस एकठांय करून शिजयल्यार बचत जातली, ह्या विचारांतल्यानूय खतखत्याची सुरवात जाली आसूं येता.

गोंयांत आदल्या काळांत सावन हो पदार्थ करतात. मदल्या वेळार म्हळ्यार सकाळची भाकरी/उंडो खाल्ल्या उपरांत देड-दोन वरांनी पेज जेवपाची पध्दत आसली. तेन्ना ताचे वांगडा तोंडाक लावपाक म्हूण खतखतें करतालीं. सगळ्या तरेच्यो भाज्यो नासल्यार ३-४ तरांच्यो भाज्यो घालून खतखतें करतालीं. सद्या ही पध्दत ल्हव ल्हव करून ना जावंक लागल्या. सगळ्या गोंयकारांगेर ही भाज्येची तरा करतात. खतखतें खातकच पोट भरिल्लेवरी दिसता.

**तयार करपाची तराः** दुदी, वांयगीं, भेंडे, पोपायो, कणंगां, सांगो, मुळे, तवशीं अश्यो मेळटात तितल्यो भाज्यो एकठांय करून ताचे मध्यम आकाराचे कुडके करतात. वांयगीं, कणंगां सारके जिन्नस बेगीन शिजतात, देखून ते एकठांय काडून दवरतात. कांय भाज्यो शिजपाक वेळ लागता. ह्यो एकठांय करून तातूंत उदक घालून त्यो सुर्वेक शिजोवन घेतात. उपरांत कमी वेळ लागता त्यो भाज्यो तातूंत घालून शिजयतात. उणो उजो चड वेळ दवरून शिजोवन जातकच त्या प्रमाणांत अर्द नाल्ल वा एका नाल्लाची सोय घेवन तातूंत एक व्हडलें कुलेर हळद आनी एक व्हडलें कुलेर मिरसांगेचो पिठो घालून तें वांटून घेवचें. उपरांत वांटिल्ली सोय शिजयल्ल्या भाज्यांनी घालून कांय वेळ शिजोवची. उपरांत तातूंत इल्लें गोड, रुचीप्रमाण मीठ आनी १०-१५ तेफळां घालून जाय तितली दाटसाण वा पातळसाण दवरून थोडो वेळ खतखतावचें.

खतखत्यांतल्या तरेकवार भाज्यांमदीं तरेकवार जीवनसत्त्वां आसतात. देखून हो खरोच घटायेचो जिन्नस जावन आसा. कणंगां, बटाट हातूंत पिश्टमय तत्त्वां, पोपाय, मुळो, दुदी हातूंत लोहतत्त्वां, कणसां, वाटाणे हातूंत प्रथिनां ह्या सारकिलीं सगळीं जीवनसत्त्वां आनी तांचे वांगडा सोय म्हळ्यार स्निग्ध तत्त्वां एकठांय जाल्ल्यान पौश्टिकता वाडटा. तातूंत पुराय अन्नाची तांक आशिल्ल्यान भुरग्याचे वाडीक ती बऱ्याक पडटा.

धर्मीक कार्यावेळार वा शिवराक जेवणावेळार कांय लोक ही तरा मुजरत करतात. उपासाच्या दिसा कांय बायलो हेर जिन्नस करचे बदला खतखतें करतात. कारण तें खातकच पुराय जेवण जेविल्लेभशेन जाता आनी पोटाक सगळो दीस थाकाय उरता. महाराष्ट्रीय आनी पंजाबी लोकांत अश्यो तरेकवार भाज्यो घालून एक भाजी करपाची पध्दत आसा. पंजाबांत ताका 'खुरमा' म्हण्टात. ही भाजी चडकरून तेलांत तळसून करतात आनी तातूंत सोय वापरीनात.

- सुधा आमोणकार

**खनिजविज्ञानः** खनिजांचे भौतिक गुणधर्म, रसायनीक संघटन, तीं सैमांत मेळपाच्यो रिती, तांकां वळखुपाच्यो पध्दती, तांचे उपेग, हांचो विचार ज्या विज्ञानांत जाता, ताका खनिजविज्ञान अशें म्हण्टात. धर्तरेवयलीं खडपां चड करून खनिजांपसून तयार जाल्लीं आसतात. विंगड विंगड खडपांतलीं खनिजां वेगवेगळ्या प्रकारचीं आनी वेगवेगळ्या प्रमाणांत आसतात. चडशीं सगळीं खनिजां धर्तरेवयल्या खडपांपसून आनी कांय थोडीं खनिजां धर्तरेच्या भायल्यान, देखीक- अशनींपसून (meteorite) मेळटात. शास्त्रीय परिभाशेंतले 'खनिज' हे संज्ञेंत जे पदार्थ चड करून घन आनी समांग (एकजिनसी) आसात, जांचें रसायनीक संघटन कांय खाशेल्या रसायनीक सूत्रान दाखोवं येता, जांची आंतरिक रचणूक स्फटिकी आसा आनी जे अजैव क्रियांनी निर्माण जातात तांचोच आस्पाव जाता. पावसाचे करे, संगजिरे, हरताळ (ऑर्पिमेंट), अभ्रक (mica), सुवर्णमाक्षिक (पायराइट्स), हिंगूळ, हिरो, पुष्कराज (टोपॅझ) हीं खनिजांचीं कांय उदाहरणां आसात.

कितलींशींच सूक्ष्मकणी खडपां (देखीक-बेसाल्ट) दोळ्यांनी पळेत जाल्यार एकजिनसी दिसतात, पूण तांची पातळ चकती वा चुरो सूक्ष्मदर्शकान पळेलो जाल्यार तीं दोन वा चड खनिजांपसून तयार जाल्लीं आसात, अशें दिसून येता. सामकीं थोडीं खडपां चड करून एकाच खनिजापसून तयार जाल्लीं आसतात. चडशीं खनिजां दोन वा चड मूलद्रव्यांचीं रसायनीक संयुगां आसतात. देखीक- Quartz हें सैमीक खनिज Silicon चो एक आनी Oxygen चे दोन अणू मेळून तयार जाल्लें संयुग, ताचें रसायनीक सूत्र $SiO_2$.

**इतिहासः** मनशाचो आधिभौतिक आनी बौध्दिक विकास हो नव्यानव्या खनिजांचो सोद आनी तांचो चडांत चड उपेग हाचेकडेन संबंदीत आसा. खनिजांच्या उत्पादनाचेर आनी पुरवणेचेर राश्ट्राची अर्थीक थीरताय आदारून आसता. झुजावेळार आनी शांततायेच्या काळांत म्हत्वाच्यो आनी गरजेच्यो वस्तू, अस्त्रां, वाहनां आदी खनिजांपसून तयार करतात. कांय खनिजां खूब म्हत्वाचीं आनी भोव उपेगाचीं आसतात.

पूर्विल्ल्या काळासावन मनीस फातर, मृत्तिका, रंगीत आनी चकचकीत अशे खनिजांचे कुडके, स्फटिक, कांय सामान्य खनिजां तशेंच शुध्द धातूंच्या स्वरूपांत मेळपी खनिजां हांचो वापर हत्यारां, आयदनां, बांदकाम, रंगद्रव्यां, आभूशणां हांचेखातीर करीत आयला. फुडें कच्च्या धातूंपसून धातू गाळप सुरू जालें. खडपांचे कुडके आनी मृत्तिका हांचेपसून बांदकामाचे फातर आनी विटो तयार करपाक सुरवात जाली. मृदखनिजां, फेल्स्पार आनी क्वॉर्ट्झ हांचेपसून कंवच्यो आनी आयदनां तयार करपाक सुरवात जाली. हालींच्या काळांत वेगवेगळीं रसायनां, धातू, हेर उपेगाचे पदार्थ, ऊर्जा हीं प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष रीतींनी खनिजांपसून तयार करतात.

मनशान खनिजांचो उपेग जरी पूर्विल्ल्या काळासावन केल्लो आसलो, तरी पयलींच्या काळांत ताका खनिजांच्या स्वरुपाची आनी तांच्या रसायनीक संघटनांची कसलीच म्हायती नाशिल्ली. खनिजविज्ञानाचेर आयज लेगीत सांपडटा तें एकदम सुरवातीचें बरोवप थीओफ्रॅस्टस हाचें आसा (इ. स. प. ३१५). व्हडलो प्लिनी हाणें इ. स. ७७ च्या सुमाराक बरयल्ल्या सैमीक इतिहासाविशींच्या पुस्तकांतलीं निमाणचीं पांच प्रकरणां पूर्विल्ल्या काळांतले म्हायतीचेर आदारीत आशिल्ल्या खनिजविज्ञानाचेर बरयल्लीं. आर्विल्ल्या खनिजविज्ञानाची सुरवात खनिजविज्ञानाचो जनक म्हूण जाका वळखतात, त्या जॉर्जिअस ॲग्रिकोला हाणें केली. ताणें 'De natura fossilium' (इ. स. १५४६) ह्या आपल्या पुस्तकांत भौतिक गुणधर्मांप्रमाण खनिजांचें वर्गीकरण आनी जायत्या खनिजांचें विस्तारान वर्णन केलें. उपरांतच्या काळांत जायत्या जाणांनी खनिजांचें वेगवेगळे तरेन वर्गीकरण करपाचे यत्न केले. इ. स. १७३५ त कार्ल लिनीअस हाणें आनी १८२० त एफ्. मोस हाणें सैमीक इतिहासाचे पध्दतीन खनिजांच्या भायल्या गुणधर्मांचेर आदारीत अशें वर्गीकरण केलें. ए. एफ्. क्रून्स्टेट हाणें १७५८ त आनी जे. जे. बर्झीलिअस हाणें १८१४ त रसायनीक पध्दतीन खनिजांचें वर्गीकरण केलें. ए. जी. व्हेर्नर हाणें १७७४ त वयल्या दोनूय प्रकारांचो समन्वय करुन खनिजांचे वर्ग केले. १८०० च्या सुमाराक एम्. एच्. क्लाप्रोथ हाणें खनिजांचें परिमाणात्मक रसायनीक विश्लेशण करपाचो वावर सुरू केलो. ताचो उपेग सी. डब्ल्यू. शेले आनी बर्झीलियस हांणी खनिजविज्ञानांत केलो. जे. बी. एल्. रोम डी लिसल (१७७२) आनी खास करून आर्. जे. हॉय (१८०१) हांणी स्फटिकविज्ञानाची बुन्याद घाली. डब्ल्यू. एच्. वुलस्टन हाणें १८०९ त परावर्तन कोनमापक तयार केलो आनी मागीर ताचो उपेग करून खनिजां वळखुपाखातीर तांच्या स्फटिकांचो आकार आनी आकारमान हांचो उपेग जावपाक लागलो. कोनमापक वापरून स्फटिकाच्या वेगवेगळ्या पृष्ठांतले (planes) कोन मेजप, कोनांचे एकामेकांकडेन संबंद हांचें परीक्षण करप शक्य जालें. ताका लागून रसायनीक संघटन आनी स्फटिकी खाशेलेपण हे खनिजांचे मूळ गुणधर्म आशिल्ल्याचें कळून आयलें. ई. मिचर्लिख हाणें १८१९ त, कांय खनिजांमदीं दिसून येवपी समरुपतेची विस्कटावणी केल्ल्यान खनिजविज्ञानांत आर्विल्लो स्फटिक-रसायनीक विचार उदेलो. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत इंग्लंडांत जाल्ले उद्येगीक क्रांतीक लागून तशेंच पयल्या संवसारीक म्हाझुजावेळार अमेरिकेसारक्या देशांत उप्राशिल्ल्या आडमेळयांक लागून खनिजांची मागणी वाडली. ताका लागून खनिजांचें म्हत्व, उपेग, तांचे सोद आनी संशोधन हांचेविशीं राश्ट्रीय पातळेचेर विचार सुरू जालो.

**खनिजांची उत्पत्तीः** सैमांत मेळपी खनिजां भूवैज्ञानिक प्रक्रियांनी तयार जाल्लीं आसतात. चड करून सगळीं खनिजां कसल्या ना कसल्या तरी खडपांनी सांपडटात. कांय खनिजां कशीं तयार जातात हें सहज समजता. देखीक- दर्याच्या उदकाचें बाश्पीभवन जावन सादें मीठ, जिप्सम हांच्यासारकिल्या पदार्थांचे निक्षेप (deposits) तयार जातात. खनिजां खास करून फुडल्या प्रक्रियांनी तयार जाल्लीं आसतातः अग्निज (igneous) खडपांतलीं- १. चडकरून सगळीं खनिजां शिलारसांत विरगळिल्ले स्थितींत आशिल्ल्या द्रव्यांचें, तो न्हिवन घन जायत आसतना स्फटिकीभवन जावन तयार जातात. २. कांय खनिजां शिलारसांतल्यान भायर येवपी वाफांचें आनी वायूंचें संद्रवण (condensation) जावन आनी हून विद्रावांचे बाश्पीभवन वा संघनन (घनांत रुपांतर) जावन तयार जातात.

अवसादी (sedimentary) म्हळ्यार रेब्याच्या खडपांतलीं - १. चडशीं खनिजां पयलींच्या खडपांतल्यान व्हांवन आयिल्लीं आसतात. हीं खनिजां घट आनी निबर आसतात. देखीक- क्वॉर्ट्झ, इल्मेनाइट, गार्नेट, झिरकॉन, २. इलाइट, मॉंटमोरिलोनाइट, अभ्रकां हांचेसारकीं मृद-खनिजां सुरवातीच्या खडपांतल्यान फुटून, तुटून, बारीक जावन आयिल्लीं आसतात; पूण उपरांत तांचें रसायनीक प्रक्रियेन पुनर्घटन जाता; ३. सैमीक उदकांत विरगळिल्ल्या द्रव्यांचें देखीक- हॅलाइट (मीठ), जिप्सम, उदकाचें, बाश्पीभवन जावन निक्षेपण (साचपाची क्रिया) जाता. ४. सैमीक उदकांतलो कार्बन डाय-ऑक्साइड गेल्ल्यान तातूंत विरगळिल्लें कॅल्शियम कार्बोनेट निक्षेपित जाता. ५. अवसादी खडपांनी खनिजां तयार जावपाखातीर कांय जैव पदार्थूय हातभार लायतात. देखीक- अवसादी गंधकाचे निक्षेप. रुपांतरित (बदल जावन तयार जाल्ल्या) खडपांतलीं खनिजां, चेपण वा हुनसाण हांच्या प्रभावाक लागून खडपांचें घन अवस्थेंत रुपांतरण जाता आसतना तांच्यांतल्या घटकांचें पुनर्स्फटिकीभवन जावन तयार जातात. देखीक- अभ्रक, हॉर्नब्लेंड, गार्नेट, स्टॉरोलाइट. शिलारसांतली हून वाफ आनी क्रियाशील वायू शेजारच्या खडपांत गेले म्हण्टकच तांची त्या खडपांतल्या घटकांकडेन विक्रिया जावन तोरमल्ली (टुर्मलीन), पुष्कराज, फ्ल्युओरस्पार हीं खनिजां तयार जातात.

**खनिजांचें वर्गीकरणः** अभ्यासाचे नदरेन खनिजविज्ञानाचे फांटे केल्यात ते अशेः १. स्फटिकविज्ञान २. भौतिक खनिजविज्ञान ३. रसायनीक खनिजविज्ञान ४. प्रकाशीय खनिजविज्ञान ५. खनिज अभिज्ञान वा वर्णनात्मक खनिजविज्ञान ६. क्रमिक सहजनन खनिजविज्ञान आनी ७. प्रायोगिक खनिजविज्ञान.

**स्फटिकविज्ञानः** थारावीक रसायनीक संघटन आनी स्फटिकी संरचना ह्या दोन गुणधर्मांचे म्हायतीवेल्यान एकाद्रें खाशेलें खनिज म्हळ्यार ताची जात थारावं येता. कसलोय स्फटिक सैमीक रितीन तयार जाल्ल्या चार वा चड सपाट पृष्ठांनी मर्यादीत जाल्लो आसता. खनिजांच्या स्वरुपाविशींची एकदम सुरवातीची म्हायती तांच्या स्फटिकांच्या भायले संरचनेवेल्यान आनी स्फटिकांच्या आकारविज्ञानाचो अभ्यास करून मेळळी. स्फटिकांचे पध्दतशीर वाडीक लागून तयार जाल्ल्या तांच्या भूमितीय आकारांचो विचार स्फटिकविज्ञानांत जाता. स्फटिकविज्ञानांत खनिजांचे आंतरिक स्फटिक संरचनेविशींचो अभ्यास आस्पावता.

**भौतिक खनिजविज्ञानः** स्फटिकमय खनिजांच्या भायल्या आकारांप्रमाणूच तांचे चडशे भौतिक गुणधर्म तांच्या आंतरिक म्हळ्यार घटक अणूंचे संरचनेचेर आदारून आसतात. भौतिक गुणधर्मावेल्यान खनिजांची जात वळखप शक्य आशिल्ल्यान ह्या विज्ञानाक भौतिक खनिजविज्ञान अशें म्हण्टात. साद्यो, सोप्यो कसोटयो वापरून खनिजांच्या भौतिक गुणधर्मांची परीक्षा करतात. ते मुखेल भौतिक गुणधर्म अशेः पाटन (cleavage), विभाजनतलां (parting), कठिणताय (hardness), भंजन पृष्ठां, दृढताय, आघात आकृती, खाशेलें गुरुत्व (specific gravity), चमक, रंग, कस, पारदर्शकता, तारादर्शकता (asterism), संदीप्ती (luminance), सूक्ष्मदर्शकावरवीं केल्लें परीक्षण, चुंबकीय आनी विद्युत् गुणधर्म, दाब विद्युत्, ताप विद्युत्.

**रसायनीक खनिजविज्ञानः** खनिजां वळखुपाखातीर आनी तांच्या वर्गीकरणाखातीर तांचें रसायनीक संघटन खबर आसचें पडटा. जे शाखेंत हे रसायनीक संघटनेविशींचो अभ्यास आस्पावता, ते शाखेक रसायनीक खनिजविज्ञान अशें म्हण्टात. हें संघटन गुणात्मक आनी परिमाणात्मक पध्दतींनी काडटात. खनिजांत खंयचीं मूलद्रव्यां कितल्या प्रमाणांत आसात, हें परिमाणात्मक विश्लेशणावयल्यान कळटा. रसायनीक विश्लेशणावयल्यान खनिजाचें रसायनीक सूत्र काडपाचो विशयूय हे शाखेंत आस्पावता. स्फटिक वा घन अवस्था रसायनशास्त्राचो उपेग हालींच्या काळांत खनिजविज्ञानांत खूब मोट्या प्रमाणांत जाता. स्फटिक रसायनशास्त्रांत फुडले म्हायतीचो आस्पाव जाताः १. अणूंत बंध निर्माण करपी प्रेरणा २. स्फटिक संरचनेचें स्वरूप ३. मूलद्रव्यांचे रसायनीक आनी संरचनात्मक गुणधर्म ४. खनिजां आनी हेर पदार्थ हांचें स्वरूप आनी गुणधर्म.

**प्रकाशीय खनिजविज्ञानः** स्फटिकी पदार्थांत वेगवेगळे पूण थारावीक प्रकाशीय गुणधर्म आसतात. घनीय स्फटिक सोडल्यार हेर सगळे तरेचे स्फटिक द्विप्रणमनी (double refracted) आसतात, म्हळ्यार तांच्यांतल्यान

प्रवास करीत आसतना सादो उजवाड दुभंगता आनी ताका लागून निर्माण जावपी दोन ध्रुवित (polarised) किरण वेगवेगळ्या दिकांनी आनी वेगवेगळ्या वेगांनी प्रवास करतात. घनीय पदार्थांनी फकत एकूच प्रणमनांक (refractive index) आसता आनी हेर स्फटिक चौव्यांच्या पदार्थांनी दोन आसतात. खनिजां प्रणमनांक सोदून काडले जाल्यार ताचेवेल्यान खनिज वळखुपाक बरीच मदत जाता. ध्रुवण सूक्ष्मदर्शक वापरून खनिजांचे प्रणमनांक काडटात. वेगवेगळ्या किरणांच्या वेगांतलो फरक, द्विप्रणमानांकांक लागून निर्माण जाल्ले रंग आनी आकृत्यो हांचेवरवीं खनिजां सोदपाची एक प्रकाशीय पध्दत तयार जाल्या, ती प्रकाशीय खनिजविज्ञानांत आस्पावता. अपारदर्शक खनिजां (धातुकां) धातुकी सूक्ष्मदर्शक वापरून तपासतात. हातूंत परावर्तित उजवाडाच्या गुणधर्माचें परीक्षण करतात.

**खनिज निदान वा खनिज अभिज्ञानः** म्हळ्यार खनिजां वळखप. खनिजांचे गुणधर्म दिवपी सारण्यो तयार केल्यात. त्या सारण्यांत धातवीय आनी अधातवीय चमक आशिल्ल्या खनिजांचे दोन मुखेल विभाग केल्यात. उपरांत कसाचो रंग मतींत दवरून त्या विभागांचे उपविभाग केल्यात. दरेक उपविभागांत चडांत चड कठिणताय आशिल्ल्या खनिजांचीं नांवां दिल्लीं आसतात आनी त्या नांवांमुखार खनिजांचे रंग, ठेवण, खाशेलें गुरुत्व हे गुणधर्म दिल्ले आसतात. कठिणताय, खाशेलें गुरुत्व असल्या एकेका गुणधर्माचेर आदारिल्ल्यो सारण्योय आसतात. खनिजाचो एकाद्रो नवो नमुनो हातांत येतकच ताच्या भौतिक गुणधर्मांवरवीं सामान्य खनिजां वळखूं येतात.

**क्रमिक सहजनन खनिजविज्ञानः** ह्या विभागांत खनिजाच्या क्रमिक सहजननाचो म्हळ्यार वेगवेगळ्या खडपांनी एकठांय सांपडपी खनिजांचो आनी तांच्या स्फटिकीभवनाच्या क्रमाचो अभ्यास आस्पावता. क्रमिक सहजननाचो अभ्यास हो ल्हान आकारमानाच्या म्हळ्यार खडपाच्या हात नमुन्याच्या खनिजांविशीं सामको मर्यादीत आसता, जाल्यार मोट्या प्रादेशिक अशा पुराय धातुक निक्षेपाचो अभ्यास व्यापक स्वरुपांत आसता. व्यापक अभ्यासाखातीर निक्षेपाच्या पुराय क्षेत्रांतले कांय प्रातिनिधिक नमुने घेतात. ह्या परीक्षणांत निक्षेपांत आनी ताचे भोंवतणी आशिल्ल्या खडपांचें स्तरण, घडयो, विभंग (भेगो) हांच्यासारक्या संस्थानांचें विश्लेशण करतात. शिलारसाचें स्फटिकीभवन जावन तयार जावपी वेगवेगळ्या खनिज जातींच्या स्फटिकीभवनाचो क्रम, खनिज आनी धातुक शिरेंत आशिल्ल्या खनिजांचे निर्मितीचो क्रम क्रमिक सहजननांत थारायतात. सगळ्यांत पयलीं तयार जाल्लें खनिज पयलीं आनी क्रमाक्रमान उपरांत तयार जाल्लीं खनिजां त्या अनुक्रमान फुडेंफुडें मांडीत वचून सगळ्यांत निमाणें तयार जाल्लें खनिज, निमाणें बरोवन वळेरी तयार करतात. हालींच्या काळांत प्रयोगशाळेंत वेगवेगळ्या रसायनीक संघटनांच्या शिलारसांपसून कृत्रिम रितीन खनिजां संश्लेशित करून क्रमिक सहजननाचो अभ्यास करतात.

**प्रायोगिक खनिजविज्ञानः** खनिजां कशीं तयार जातात, हें समजून घेवपाखातीर पयलीं फकत सैमीक खडपांचें उक्ते सुवातींत वा प्रयोगशाळेंत परीक्षण करतात. पूण हालींच्या काळांत खनिजां ज्या जटिल प्रक्रियांनी तयार जातात, त्यो समजून घेवपाखातीर प्रायोगिक पध्दतींचो वापर करतात. खनिजांचें संश्लेशण, प्रावस्था संतुलनाचें अध्ययन, भूवैज्ञानिक प्रक्रिया आनी परिस्थिती कृत्रिम रीतीन प्रयोगशाळांनी निर्माण करप, दाब, तापमान हांच्या वेगवेगळ्या परिस्थितींत खनिजांचे गुणधर्म कशे आसतात वा बदलतात तें पळोवप, ह्या गजालींचो आस्पाव प्रायोगिक खनिजविज्ञानांत जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## खलप, वामन अनंत शेटः (जल्मः १८८२, म्हापशें; मरणः १९६४).

एक गोंयकार लेखक. ताणें मुळावें शिक्षण घरचे घराच घेतलें. फुडें ताणें पोर्तुगेज सेगुंद ग्राव मेरेन शिकप केलें. बंगालींत आनी कोंकणींत एकसारकेपण आसा हें कोणेंतरी सांगिल्ल्यान ताणें बंगाली भाशेचो अभ्यास केलो.

ताका इतिहास वाचनाचो नाद आशिल्लो. देखुनूच ताणें १९११ वर्सा हेरांच्या आदारान म्हापशां वाठारांत 'दुर्गा' वाचन मंदिराची थापणूक केली. त्या काळांत हेर सुसंस्कृत आनी सुशिक्षीत गोंयकारांप्रमाण तोय गोंयच्या भौशीक चळवळींनी वांटो घेतालो. ज्ञानप्रसारक संस्थेचे थापणुकेंत ताचो म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. म्हापशेंचे वैश्य संस्थेंत ताणें मुखेलपणान वावर केल्लो. १९२६ वर्सा गोंयांतल्या धारगळ वाठारांत जी वैश्य परिशद भरिल्ली, तिचो तो मुखेल कार्यवाह आशिल्लो.

तो मुळांत लेखक नाशिल्लो, पूण उतारवयांत, म्हळ्यार १९५४ वर्सा, ताणें आपल्या घराण्याचो इतिहास आनी गोंयच्यो ग्रामसंस्था अशीं संशोधनात्मक दोन पुस्तकां बरयलीं. ह्या घराण्याच्या इतिहासाच्या पुस्तकांत ताच्या पुर्वजांचो वेपार युरोप तशेंच दक्षिण अमेरिकेकडेन चलतालो आनी तांचीं स्वताचीं गलबतां आशिल्लीं, अशें ताच्या पुस्तकांवेल्यान कळटा. तेचप्रमाण म्हापशेंचे ग्रामसंस्थेंत कुलाचारी नांवाचो अधिकार खलप घराण्याक आसलो.

- कों. वि. सं. मं.

## खरवत, विठो नावूः (जल्मः १५ जानेवारी १९३०, खोपारडें-सत्तरी).

गोंयचो सुटके झुजारी. सुटके चळवळीच्या काळांत तो गुपीत बसकांनी वांटो घेवप, पोलीस ठाण्यांनी स्फोट घडोवन हाडप, वण्टी-पत्रकां लावप असलीं कामां करतालो. पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका झरमें वाठारांत धरलो आनी पंदरा म्हयने बंदखणींत दवरलो. बंदखणींत पोलिसांनी ताका खूब त्रास दिलो. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८६ दिसा गोंय सरकारान ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## खांडेकर, विष्णु सखारामः (जल्मः ११ जानेवारी १८९८, सांगली; मरणः २ सप्टेंबर १९७६, कोल्हापूर).

मराठींतलो नामनेचो कादंबरीकार, कथाकार, लघुनिबंदकार आनी समीक्षक. मुळावें शिकप सांगली हांगा आनी ते उपरांत इंटर आर्ट्‌समेरेन पुणें हांगा जालें. अठरा वर्सां पिरायेचो आसतना ताच्या चुलत बापोलयान ताका पोसूंक घेतिल्लो. १९२० त, तो शिरोडा (ता. वेंगुर्ले) हांगाच्या ट्यूटोरिअल इंग्लीश स्कूलांत सुर्वेक शिक्षक आनी उपरांत तेच शाळेंत मुख्याध्यापक जालो. १९३८ त, तो हे शाळेंतल्यान निवृत्त जालो आनी उपरांत कोल्हापूर हांगा रावपाक गेलो.



वि. स. खांडेकर

१९१९ वर्सावन ताचें बरप उजवाडाक येवपाक लागलें. ताणें 'कुमार' ह्या टोपण नांवान कविता बरयल्यो आनी 'आदर्श' ह्या टोपण नां वा न विनोदी बरप केलें. ताची पयली लघुकथा 'घर कुणाचे' १९२३ वर्सा 'म हा रा ष्ट्र साहित्य' नांवाच्या म्हयन्याळ्यांत उजवाडाक आयली. 'नवमल्लिका' (१९२९) हो ताचो पयलो कथांझेलो जाल्यार 'हृदयाची हाक' (१९३०)

ही ताची पयली कादंबरी आनी 'वायुलहरी' (१९३०) हो ताचो पयलो लघुनिबंद संग्रह.

खांडेकरान विंगडविंगड स्वरुपाचें बरोवप केल्लें आमून तातूंत १५ कादंबऱ्यो, ३१ लघुकथासंग्रह, १० लघुनिबंदसंग्रह, ६ रुपककथासंग्रह, १ नाटक हांचो आस्पाव जाता. हेभायर ताणें कांय चरित्रात्मक/ समीक्षात्मक ग्रंथ आनी कांय संकीर्ण लेखसंग्रह बरयले. ताणें मराठी, हिंदी आनी तेलुगू चित्रपटांखातीर वट्ट १८ पटकथा बरयल्यो.

तोखणायेक पात्र थारिल्ल्यो ताच्यो कांय खाशेल्यो साहित्यकृती अश्यो:

**कथां झेले-** 'नवमल्लिका', 'पाकळ्या' (१९३९), 'समाधीवरली फुलें' (१९३९), 'नवा प्रातःकाल' (१९३९). **कादंबऱ्यो**: 'हृदयाची हाक', 'कांचनमृग' (१९३१), 'दोन ध्रुव' (१९३४), 'उल्का' (१९३४), 'दोन मने' (१९३८), 'पांढरे ढग' (१९३९), 'रिकामा देव्हारा', 'सुखाचा शोध', 'हिरवा चाफा' (१९३९), 'पहिले प्रेम' (१९४०), 'क्रौंचवध' (१९४२), 'अश्रू' (१९५४), 'ययाति' (१९५९), 'अमृतवेल' (१९६७), 'सोनेरी स्वप्ने भंगलेली' (१९७७). **रूपककथांझेले**: 'कलिका' (१९४३), 'सुवर्णकण' (अणकारित) (१९४४), 'वनदेवता' (१९६०). **लघुनिबंद संग्रह**: 'वायुलहरी', 'अविनाश' (१९४१), 'तिसरा प्रहर' (१९४८), 'मंझधार' (१९५९), 'झिमझिम' (१९६१). **चरित्रात्मक आनी समीक्षात्मक बरप**: 'गडकरी- व्यक्ती आणि कार्य' (१९३२), 'वामन मल्हार जोशी- व्यक्ती आणि विचार' (१९४८), 'केशवसुतः काव्य आणि कला' (१९५९). **टिकात्मक लेख आनी संकीर्ण बरप**: 'मराठीचा नाट्यसंसार' (१९४५), 'गोफ आणि गोफण' (१९४६), 'रंग आणि गंध' (१९६१), 'ते दिवस, ती माणसे' (१९६१), 'रेषा आणि रंग' (१९६१). हेभायर 'छाया' (१९३६), 'ज्वाला' (१९३७), 'देवता' (१९३८), 'सुखाचा शोध' (१९३९) ह्या सिनेमांच्यो पटकथा ताणें बरयल्यात. तांच्या खूबशा कादंबऱ्यांचो, गुजराती, तमिळ आनी हिंदी ह्या भारतीय भासांनी अणकार जाला. तशेंच ताच्या काणयांचो अणकार इंग्लीश, रशियन आनी चेक ह्या विदेशी भासांनी जाला.

जिणेखातीर कला आसा, ह्या तत्त्वाचेर चलयल्ल्या 'जोत्स्ना' ह्या म्हयन्याळ्याचो तो संपादक आशिल्लो. १९६१ त, 'ययाति' हे ताचे कादंबरीक महाराष्ट्र सरकाराचें कादंबरी माळेंतलें पयलें इनाम फाव जालें. 'ययाति' कादंबरीक साहित्य अकादमीचोय पुरस्कार फाव जालो. ताचे हेच कादंबरीक १९७४-७५ वर्साचें भारतीय ज्ञानपीठ हें एक लाख रू. चें मानाचे इनाम फाव जालें. १९४१ त, सोलापूर हांगा भरिल्ल्या महाराष्ट्र साहित्य संमेलनाच्या रुप्यामहोत्सवी दबाज्याचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९५७ त, मराठी नाट्यसंमेलनाचोय तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९६८ त, भारत सरकारान 'पद्मभूषण' हो किताब दिवन ताच्या वावराची तोखणाय केली. १९७० त, साहित्य अकादमीचो फेलो म्हूण ताची नेमणूक जाली.

ताच्या बरपाचेर आगरकर, केशवसुत, हरिभाऊ आपटे, श्रीपाद कृष्ण कोल्हटकर हांच्या बरपांचो खूबसो प्रभाव पडिल्लो दिसून येता. आपल्या बरपांत ताणें मनीस जीणेक खूब म्हत्व दिलें. जीणेतलें श्रध्देचें म्हत्व ताणें स्वच्छंदतावादी (रोमँटिक) विचारांवरवीं परगटायलें. मनीस जीणेंतलो ध्येयवाद, सुख, दूखख आनी भावनांचे उत्फरके हांचें दर्शन ताचे बरपावळींत जळींमळीं घडटा. ताची भाशाशैली अलंकारिक आनी सुभाषितांनी भरिल्ली आसा. मराठी कथेंत ताणें नवे प्रयोग केले आनी ती कथा उंचेल्या पांवड्यार पावयली. साहित्याखातीर समर्पित भावनेन वावर करपी एक श्रेश्ठ साहित्यिक म्हूण खांडेकराचें नांव घेतात.

- प्रा. सुमंत कनयाळकर

## खांडेपारकार, वैकुंठ हरी:

(जल्मः २७ ऑक्टोबर १९११, शिरोडें-फोंडें).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठी आनी पोर्तुगेजींतल्यान घेतलें. राश्ट्रीय काँग्रेस गोंय संघटनेचो तो वांगडी आसलो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो भूयगत कार्यकर्त्यांक आदार दितालो. १७ फेब्रुवारी १९५५ दिसा पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरून बंदखणींत दवरलो. १८ जून १९८४ दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## खांपऱ्यांची जात्रा:

कुडाळ तालुक्यांतल्या कर्याद नारूर हांगाची खांपऱ्यांची वर्सुकी जात्रा रांगणा गडाच्या मुळसाकडेन मौंजे नारूर हांगा भरता. वैशाख कृष्ण पक्षांतल्या धनिष्ठानवक सावन उमाशेमेरेन ही थळावी कार्यावळ जाता.

कांय थळाव्या देवांच्या नांवान मांडावयल्या बोकड्यांचो बळी दितात. सावंत, राऊळ, मडवळ ह्या घराण्यांतले दादले बायलांचो भेस करतात. तांच्या वांगडा बुवाचो भेस करून एक गोसावीय आसता. थारावि‍क सुवातींनी धोल-ताशांच्या गजरांत मिरवणूक काडटात. महास्थळाकडल्यान मडवळाच्या घराकडेन आनी तेउपरांत भटाच्या घराकडल्यान ही मंडळी येतकच देवळाच्या आवारांतल्या भावईच्या पाशाणाकडेन भेस सोडटात. देवळाच्या आवारांत जमीन नांगरपाची कार्यावळ करून 'भार पेरणी' करतात. पणसाचे गरे वांटपाची कार्यावळ जाता. त्रयोदशीच्या दिसा खांपऱ्यांचो मुखवटो समजून तो गांवकार लोकांच्या घरामुखावयल्या मंडपांत हाडून दवरतात. रातीकडेन ह्या मुखवट्याकडेन 'सुद्रीक' वंशाच्या आंगांत 'भार' (अवसर) येवन तो विडेमानकरी मंडळीक नांवान आपयता. उपरांत, 'भार' मुखवटो घालून श्रीदेवीमहालक्ष्मीच्या देवळाच्या आवारांत १ फेरी मारून परत मंडपांत येवन बसता.

चर्तुदशीच्या दिसा दनपारच्या सुमार १ ते २ ह्या वेळार हो भार देवळाच्या आवारांत मुखवट्याबगर पासय मारता आनी आपल्या मारेकऱ्यांचो सोद घेता. त्या वेळार मानकरी मंडळी वीरांचो भेस करून देवळाच्या आवारांत उबी रावता. तांकां पळेतकच तांचो सूड घेवपाखातीर भार परत मूळ सुवातीर येवन मुखवटो घालून खंजीरान वीरांक मारपाखातीर देवळाच्या आवारांत येता; पूण ताचे आदींच ते वीर आपलो भेस बदलून देवळांत येवन बसतात. तांकां सोदपाखातीर देवळाच्या आवारांत धोल-ताशे आनी 'हु ---हु---हु---हु' अशा आड्ड्यांच्या गजरांत 'भार' पासयो मारीत आसता. मागीर परत 'भार' मूळ सुवार्तीर येवन मुखवटो मंडपांत दवरता.

रातचो परत एकदां वीरांक सोदपाखातीर 'भार' देवळाच्या आवारांत फेरी मारता पूण ताका प्रतिस्पर्धी दिसना. पूण भावईच्या पाशाणामुखार एक पीठाची बावली दवरिल्ली आसता, ती खंजीरान नश्ट करून मागीर 'भार' मूळ सुवातीर येता. भार जे जे सुवातीर विसव घेवपाक बसता, थंय कोंबो कापतात. अमाशेच्या दिसा सकाळीं नारूर आनी गोठोसचे शिमेचेर सजयल्लो मुखवटो व्हरतात. थंय बलिदान आनी निवेद्याची कार्यावळ जाता आनी हो उत्सव सोंपता.

हो उत्सव पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयिल्ल्यो चाली, अवसर आनी हेर रूढी-परंपरेचेर आदारिल्लो आसा. नारूर हांगा बेरडांची गाळवी, सतीचो फातर, रान्नोबाचो फातर, बळीचो वाफो अश्यो सुवाती अजून आसात. थंयच्या लोकांच्या मताप्रमाण, रांगणच्या देगणांत भरपी ही व्हडली जात्रा खूब पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## खाज

(Pruritus): पळेयात कात-२

## खाजन:

खाडींत आनी ल्हान आखातांत दर्याचें खारें उदक आनी भूंयखंडावयल्यान येवपी सावें उदक भरसता. न्हंयांतसून आनी दर्याच्या प्रवाहांतसून व्हांवन आयिल्ल्या गाळांचें अशे सुवातीर ल्हान गुंड्यांत (pebble) रुपांतर जावन तांचें निक्षेपण (deposition) जाता. हो नव्यान तयार जाल्लो भूंयभाग कांय काळान सुकतेच्या वेळार उक्तो उरता आनी

खाऱ्या उदकाचेर वाडपी वनस्पतीप्रकार थंय किल्लूंक लागता. तांच्या मुळांकडेन निक्षेपणाचें कार्य चड बेगीन जावन भरते वेळार मात्शी उक्ती उरतली इतली ह्या भूंयभागाची उंचाय वाडटा. ह्या भूंयभागाक खाजन अशें म्हण्टात. खाशेले तरेचो बांद बांदून खाजनाचो शेताखातीर तशेंच नुस्तें पिकोवपाखातीर उपेग करून घेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**खाजूर:** (मराठी-खजूर, खारीक; हिंदी-खजुरी, खाजी; कन्नड-कज्जूर; गुजराती-खजूरिओ; संस्कृत-खर्जुर; इंग्लीश-डेट पाम; लॅटीन-फिनिक्स डॅक्टिलिफेरा; कूळ-पामी).

ही वनस्पत पूर्विल्ल्या काळासावन मनशाक परिचित आसा. ह्या पिकाची मूळ सुवात उत्तर आफ्रिका वा अरबस्तान आसूंक जाय, अशें जाणकारांचें मत आसा. खाजराचीं झाडां अलेक्झांडर हाचे घुरयेवांगडा सिंध वाठारांत आयलीं, अशेंय एक मत आसा.

खाजराचें झाड ३०-४० मी. उंचायेचें आसून हें झाड दिसपाक माडासारकें आसता. ह्या झाडाक खांदयो आसनात. नर आनी मादयेचीं झाडां वेगवेगळीं आसतात. फुलांक बरो वास येता. खाजराचें फळ सुमार २-७ सेंमी. लांब आनी तांबसर रंगाचें आसता. फळांत भितर बी आसता. खाजराची लागवड फळाखातीर करतात. हीं फळां खर वतांत सुकोवन तांचेपसून खारको तयार करतात.

खाजराचें पीक आशियांतल्या रेंवटांत सेनेगलसावन सिंधू न्हंयमेरेन जाता. सिंध आनी ताच्या लागींच्या वाठारांत तशेंच मुलतान ह्या वाठारांत खाजराची लागवड मोट्या प्रमाणांत जाता. मोरोक्को, स्पेन, अमेरिका, ऑस्ट्रेलिया, त्रिनिदाद ह्या देशांनी खाजराची लागवड जाता. भारतांत ह्या पिकाची लागवड उण्या प्रमाणांत जाता. गोंयांत खाजराची लागवड जायना.

खाजराचे तीन प्रकार आसात: १. मोव फळां दिवपी २. मध्यम मोव फळां दिवपी ३. सुकीं फळां दिवपी. खाजराच्यो जायत्यो जाती आसात. हिळावी, खाद्रवी आनी सायर ह्या जातींपसून मोव फळां मेळटात. झाहीदी, दायेरी ह्यो जाती मध्यम मोव फळां दितात, जाल्यार थुरी हे जातीपसून सुकीं फळां मेळटात.

खाजराच्या पिकाक कसलीय जमीन चलता. पूण रेंवट आनी वाळवंटी जमनींत झाडांची वाड बरी जाता. ह्या पिकाक सुकी हवा आनी उणो पावस बऱ्याक पडटा. पिकाची लागवड बियांपसून करपाक जाता, पूण अशी लागवड केल्यार नर झाडां मोट्या प्रमाणांत जातात. देखून मादी झाडाक जे रोंपे येतात, त्या फुटव्यांचो वापर करून लागवड करतात. झाडां लायल्या उपरांत ८-१० वर्सांनी फुलतात आनी मुखार १०० वर्सांमेरेन फळां दितात. एका मादी झाडाक १०-१५ फुलांचे तुरे येतात. हातूंतले बारीक तुरे कापून उडयतात आनी सुमार ८-१० बरे तुरे झाडाचेर दवरतात. झाडाक सारें दिनात, पूण वर्सांतल्यान एकदां शेणखत दितात. खाजराच्या एका झाडापसून सुमार ८-१० बरे घड मेळटात. इतल्या घडांपसून सुमार २०-२५ किग्रॅ. खाजूर मेळटा. फुलां येवपाच्या वेळार, झाडाक उदक दिनात, पूण फळां लागतकच मात उदक दितात.

खाजराचीं फळां तशेंच खारीक दोनूय पुश्टीक आशिल्ल्यान तांकां सगळ्या देशांतल्यान मागणी आसा. सिंध वाठारांत ह्या झाडांपसून 'ताडी' काडटात. झाडाच्या चुडटांचो उपेग घराच्या पांख्याखातीर करतात, तशेंच खाजराच्या पानांपसून शेंदऱ्योय तयार करतात. खाजराच्या झाडाचो कोंब तशेंच पानां हांची भाजी करतात. खाजराचें फळ हें बरेंच वखदी आसून तातूंत अ, ब आनी ड हीं जीवनसत्त्वां आसतात. अरब देशांत ह्या फळांचो उपेग मिठाय, दूद, लोणी हातूंत मोट्या प्रमाणांत करतात. फळांतल्यो बियो सुकोवन ताचें पीठ करून, हें पीठ उंट, बोकड्यो, कोंबयो हांची खावड म्हूण वापरतात. इराक देशांत खाजराच्या बियांपसून मेळपी तेलाचो वापर शाबू तयार करपाखातीर करतात.

खाजराच्या झाडाक किडीचो रोग व्हडलोसो जायना. मात कांय प्रमाणांत भुंगुल्ल्याचो त्रास जावं येता. ह्या भुंगुल्ल्याची लागण जाली जाल्यार ताका सरयेन तोपून भायर काडटात. उपरांत झाडाचेर ४० ग्रॅम बी. एच्. सी. ५०%, १० लिटर उदकांत घालून ताचो फवारो झाडाचेर मारतात.

- विश्राम गांवकार

**खाड:** वयांत आयल्या उपरांत दादल्याच्या पोल्यार आनी खाडकेर केंस येतात, ताका 'खाड' म्हण्टात. ओंठांवेल्या केंसांक 'मिश्यो' म्हण्टात. खाशेल्या प्रकारान खाड दवरपाची पध्दत पूर्विल्ल्या काळासावन सगळ्याक दिसून येता. खाड दवरपाचे पध्दतीचो संबंद धर्मीक आदेश वा संकेत आनी समाजीक प्रतिश्ठ, विद्वत्ता वा हेर प्रथा हांचेकडेन आसा. दादलेपणाचें ठळक लक्षण म्हूण तरणाटे खाड दवरतात.



आदिपुरुश आदम आनी वेगवेगळ्या धर्मांतले म्हापुरुश, संतपुरुश, धर्मगुरु, राजा, सरदार हांकां खाडां आशिल्लीं, असो उल्लेख इतिहासांत मेळटा. खाडांचो आकार आनी लांबाय हातूंत समाजसंस्कृतायेप्रमाण आनी कुडीचे उंचायेप्रमाण बदल जाल्लो दिसता. पूर्विल्ल्या ईजिप्शियन समाजांत दादले खाड दवरीनासले. पूण पूर्विल्ल्या ज्यू समाजांत लांब खाड दवरपाची प्रथा आशिल्ली. महंमद पैगंबराच्या आदेशाक लागून मुस्लिम लोक खाड दवरताले. पूण ज्यू लोकांपरस वेगळेपण दाखोवपाखातीर मुस्लिम लोक आपलें खाड वेगळ्याच ढंगान कापताले. तत्त्वज्ञानी मनशाचें आनी वीर पुरुशाचें लक्षण म्हूण पूर्विल्ल्या ग्रीक समाजांत इ. स. प. ३२३ मेरेन खाडाक मानप्रतिश्ठा आशिल्ली. अलेक्झांडर-द-ग्रेट हाणें सैनिकांक खाड दवरचें न्हय असो आदेश काडलो आनी ही प्रथा बंद पडली. इ.स.प. तिसऱ्या शेंकड्याउपरांत रोमन लोकांनीय खाडाची पध्दत बंद केली. फार्च्युना बार्बेटा हे सायबिणीक रोमन तरणाटे आपलें पयलें खाड कापून ओंपताले. अंत्यविधीचो एक भाग म्हूण ईजिप्शियन आनी रोमन लोक खाड वाडयताले, जाल्यार ग्रीक लोक तें कापताले. रोमन समाजांतले प्रथेचो परिणाम रोमन कॅथलिक पुरोयत वर्गाचेर जालो, जाका लागून तांणी खाड वाडोवपाची प्रथा बंद केली. सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांत रोमन कॅथलिक पाद्रींनी खाड दवरपाक सुरवात केली, पूण परत ही प्रथा बंद जाली. तरी लेगीत ईस्टर्न ऑर्थोडॉक्स चर्चीचे पाद्री खाड दवरताले.

इंग्लंडांत चवदाव्या शेंकड्याउपरांत राजकुलांतल्या लोकांमदीं आनी समाजांत खाड दवरपाची प्रथा लोकप्रिय जाली. रशियांत पीटर द ग्रेट हाणें १७०५ वर्सा खाड दवरतल्यांचेर कर बसयल्लो. १९ व्या शेंकड्याचे

सुर्वेक खाड दवरपाची पध्दत परत लोकप्रिय जाली. खाड हें क्रांतिकारक आनी बंडखोर लोकांचें लक्षण अशी समाजाची नदर जाली. १९ व्या शेंकड्याच्या मध्याक युरोपांत खाड दवरपी लेखकांक, कलावंत आनी विद्वान लोकांक मान-प्रतिश्ठा फाव जाली. खाड दवरपी अमेरिकेचो पयलो अध्यक्ष म्हळ्यार अब्राहम लिंकन. विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक सावन युरोप आनी अमेरिकेंत खाडाची फॅशन फाटीं पडली. खाडये बोल्शेव्हिक क्रांतीकारक आनी अराजकतावादी हांकां व्यंगचित्रांतल्यान चित्रित केले. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत अस्तंती देशांनी लेखक, कलावंत आनी चड करून 'बीटनिक' लोकांनी खाड दवरपाची प्रथा पर्थून लोकप्रिय केली.

इंग्लंडांत व्हिक्टोरियन काळांत (सुमार १८४० ते १८७०) पोल्यावेल्या झुपकेदार केंसांचे कल्ले वा गुलमिश्यो (Side Whiskers or Chin Whiskers) 'मटन चॉप्स' वा 'पिकॅडिली वीपर्स' ह्या नांवांनी खूब लोकप्रिय जाल्ले. ह्या कल्ल्यांक इंग्लीशींत 'बर्नसाइड्स' वा 'साइडबर्नस' अशें म्हण्टात. हो शब्द अमेरिकन यादवी झुजांतलो जनरल अँब्रोझ बर्नसाइड हाच्या नांवावेल्यान आयला. अमेरिकेंत ह्या झुपकेदार कल्ल्यांक 'डंड्रेरीस' अशें म्हण्टात. 'अवर अमेरिकन कझन' ह्या नाटकांतल्या 'लॉर्ड डंड्रेरी' ह्या पात्रावेल्यान हें नांव पडलां.

खाडकेवयलें त्रिकोणी तोंकाळ खाड तिसऱ्या नेपोलियनच्या भोवमानाखातीर 'इंपीरियल' ह्या नांवान नामनेक पावलें. ऑस्ट्रियाचो सम्राट फ्रांट्स जोसेफ हाच्या आदराखातीर मिश्यांत विणिल्ले झुपकेदार कल्ले ताच्याच नांवान लोकप्रिय आसात. फुडें फुडें सामान्य नोकरवर्गाइतलीच कल्ले दवरपाची पध्दत मर्यादीत जाली. विसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या दोन दशकांमेरेन अस्तंती समाजांत ल्हान मिश्यो दवरप लोकप्रिय जालें. ब्रिटीश सैन्यांत 'वॉलरस' मिश्यो आनी अमेरिकेंत वयल्यान पीळ घाल्ल्यो 'हॅंडलबार' मिश्यो खूब लोकप्रिय जाल्यो. अमेरिकेंतले वेवसायिक लोक 'व्हॅन्डाइक' शैलीच्यो मिश्यो दवरताले.

मेसोपोटेमियन संस्कृतायेंतले लोक (कॅल्दियन, बॅबिलोनियन, अ‍ॅसीरियन, मीडियन आनी पूर्विल्ल्या पर्शियन) खाडाक तेल लावन, फणयेन वळोवन आपल्या खाडाची खूब जतनाय घेताले. भारतांत आनी तुर्कस्थानांत प्रतिश्ठा आनी विद्वत्तेचें प्रतीक म्हूण लांब खाड वाडयताले. तुर्कस्थानांत गुलामांचें दासत्व दाखोवपाखातीर तांचें खाड सक्तीन काडटाले. इझ्राएलचे धर्मगुरू लांब खाड दवरताले. बरे भलायकेचे नदरेन खाड काडपाच्या रेझरचो प्रसार रोमांत लुसियस तार्किनियस प्रिस्क (६१६-५७८ इ. स. प.) हाणें सुरू केलो. तरी लेगीत खाड काडपाची आर्विल्ली पध्दत ग्रीक सीसीलियन म्हाल्यांनी इ.स.प. ४५४ वर्सासावन खऱ्या अर्थान लोकप्रिय केली. सातव्या शेंकड्यासावन सोळाव्या शेंकड्यामेरेन बिझांतीन संस्कृतायेंतले लोक लांब, मुदयाळें, खाडकेच्या मदीं खाप आशिल्लें तोंकदार आनी खूब लांब खाड दवरताले.

१८०८ ते १८६० ह्या काळांत ब्रिटीश सैन्यांत खाडकेपुरतें ल्हान खाड सक्तीचें आशिल्लें. विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक दक्षिण आफ्रिकेंत तळ ठेकून आशिल्ल्या ब्रिटीश सैन्यांत आनी परत दुसऱ्या म्हाझुजावेळार खाड-मिश्यांची पध्दत खूब लोकप्रिय जाली. १९१७ वर्सा अमेरिकन लश्कर कायद्यांत केंस बारीक दवरचे आनी खाड वेवस्थित trim करचें असो निर्बंध आशिल्लो. विसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत 'चिन व्हीस्कर्स' (झुपक्यांचे कल्ले) परत लोकप्रिय जाले.

भारतांत खाड दवरपाची पध्दत धर्माची आज्ञा अशी ना, तरी लेगीत मिश्यो दवरपाची चाल मात परंपरागत आसा. पूर्विल्ल्या काळांतले भारतीय ऋषीमुनी खाड-मिश्यो आनी जटा दवरताले, अशें दिसून येता. तशेंच सिंधुसंस्कृतीकाळांतले (इ. स. प. ३,०००-१,५००) दादले जरी मिश्यो दवरीनासले, तरीकूय वेगळ्याच ढंगान कापिल्लें खाड दवरताले. पूण आर्य लोक मात खाड दवरिनासले. त्या फुडल्या काळांतलीं शिल्पां आनी चित्रां हातुंतूय खाड आशिल्लीं कांय मुखामळां दिसतात. बौध्द आनी जैन धर्मांतले लोक मात खाड दवरीनात.

इतिहासकाळांत भारतीय लोक खाड-मिश्यो दवरताले, अशीं उदाहरणां मेळटात. सैनिकी प्रभावाक लागून खाडाचें अस्तित्व बळिश्ट जालां आसूंक जाय. मुसलमान झुजाऱ्यांप्रमाण जाट, राजपूत आनी शीख ह्या भारतीय लढाऊ झुजाऱ्यांनी खाड दवरपाक सुरवात केली. शीख लोक धर्माची आज्ञा म्हूण खाड दवरतात. आपलें खाड ते एका कपड्यान आनी जाळयेन माथ्यार बांदतात. मराठ्यांभितर छत्रपती शिवाजी आनी संभाजी हांणी खाड-मिश्यो दवरिल्ल्यो.

हिंदू धर्मांत खूब लागींची व्यक्ती म्हळ्यार आवय, बापूय, भाव-भयण आनी हेर मेलीं तर मर्णाच्या बाराव्या दिसा खाड-मिशी काडपाची चाल आसा.

मोगलांचे मुस्तींत मोगल बादशहापसून ते सरदारांमेरेन सगळे खाड दवरताले. पूण अकबर बादशहा ह्या एकाच बादशहान खाड दवरूं नासलें. पूण ताच्या फुडल्या काळांत खाड वाडोवपाची प्रथा परत सुरू जाली. धर्माची आज्ञा म्हूण आनी दुसरें म्हळ्यार मुसलमान, शिखांपरस वेगळे दिसचे म्हूण मुसलमानांनी चार बोटांपरस चड लांबायेचें खाड वाडोवचें न्हय, असो हुकूम औरंगजेबान काडिल्लो. तेन्नाच्या मुसलमान लोकांक मिश्यो नाशिल्लो वयलो ओंठ आनी सकयल वाटकुळ्या आकाराचें खाड दवरपाची संवय आशिल्ली. कांय जाण मात खाडाचीं तोंकां पोल्यावटेन पिळटाले तर कांय जाण तीं गळ्याचेर लांबयताले.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्यांत भारतांत खाड दवरपाची प्रथा आशिल्ली. सुलेमान शाह बादशहाच्या उत्तेजनाक लागून अयोध्या आनी दिल्ली हांगाचे दरबारी लोक आपलीं खाडां वेवस्थित वळोवन बिनखाडाच्या मिश्यांक पीळ दिवपांत धन्यताय मानताले. विसाव्या शेंकड्यांत लोकांची खाड दवरपाची रूच दिशींदिशीं वेगवेगळ्या फॅशनीप्रमाण बदलत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## खाडिलकर, कृष्णाजी प्रभाकर:

(जल्म: २३ नोव्हेंबर १८७२, सांगली; मरण: २६ ऑगस्ट १९४८).

मराठींतलो एक नामनेचो नाटककार, संपादक, राजकारणी, अध्यात्मवादी. मुळावें शिकप सांगली हांगा जालें. महाविद्यालयांतलें शिकप पुणे हांगाच्या फर्ग्युसन आनी डेक्कन महाविद्यालयांत जालें. १८९२ त तत्त्वगिन्यान हो विशय घेवन तो बी. ए. जालो. १८९२-९४ ह्या काळांत ताणें सांगली हायस्कूलांत शिक्षकाचें काम केलें. मुखार मुंबय वचून ताणें कायद्याची एलूएल्. बी. पदवी घेतली. १८९७ त 'केसरी' ह्या दिसाळ्यांत काम करतना ताचो संबंद लोकमान्य टिळकाकडेन आयलो. राजकी घडामोडींचेर बरप करपाक ताका टिळकाकडल्यान स्फूर्त मेळ्ळी.

१८९५ त, 'सवाई माधवरावांचा मृत्यू' हें ताचें पयलेंच नाटक 'विविधज्ञानविस्तार' ह्या नेमाळ्यांत उजवाडाक आयलें. १९०१ त, 'गनिमी काव्याचे युध्द' ही लेखमाला ताणें नेमान बरोवपाक सुरवात केली. ताचीं म्हत्वाचीं उलोवपां 'खाडिलकर लेखसंग्रह' (भाग १ आनी २) ह्या नांवान उजवाडाक आयिल्लीं आसून पयल्या झुजाचेर केल्ली बरपावळ वट्ट पांच भागांनी उजवाडाक आयल्या. ताचो खरो पिंड नाट्यलेखकाचो आशिल्लो. ताणें बरयल्लीं नाटकां अशीं- 'मोहना' (१८९८); 'सवाई माधवरावांचा मृत्यू' (१९०६); 'कीचकवध' (१९०७); 'प्रेमध्वज' (१९११); 'संगीत मानापमान' (१९११); 'संगीत विद्याहरण' (१९१३); 'सत्त्वपरीक्षा' (१९१५); 'संगीत स्वयंवर' (१९१६); 'संगीत द्रौपदी' (१९२०); 'संगीत त्रिदंडीसंन्यास' (१९२३); 'संगीत मेनका' (१९२६); 'सवती-मत्सर' (१९२७); 'संगीत सावित्री' (१९३३). ताचीं नाटकां गंधर्व नाटक मंडळी, किर्लोस्कर नाटक मंडळी, शाहूनगरवासी आनी महाराष्ट्र नाटक मंडळी ह्या नाटकां कंपनींनी रंगमाचयेर हाडलीं.

१९०८ त लोकमान्य टिळक हाका बंदखणीची ख्यास्त जाली, त्या वेळार खाडिलकर 'केसरी' चो संपादक आशिल्लो. १९१० त, संपादनाचें

हें काम ताणें सोडलें. टिळकाच्या मरणाउपरांत महात्मा गांधीच्या राजकारणांत प्रवेश करून ताणें गांधीच्या पालवाखाल आपलो भौशीक वावर सुरू केलो. १९०७ त भरिल्ल्या तिसऱ्या नाट्यसंमेलनाचें अध्यक्षपद ताका मेळ्ळें. परत १९१७ त पुण्यांत भरिल्ल्या नाट्यसंमेलनाचो तोच अध्यक्ष आशिल्लो. १९२१ त, मुंबय हांगाच्या 'लोकमान्य' ह्या नेमाळ्याचो तो संपादक जालो. त्याच वर्सा गांधर्व महाविद्यालयावरवीं भरिल्ले संगीत परिशदेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. उपरांत ताणें 'लोकमान्य' हें नेमाळें सोडून स्वताच्या मालकीचें 'नवा काळ' हें नेमाळें सुरू केलें. ह्या नेमाळ्यांत हिंदू-मुसलमान वादाआड बरप केलें, म्हूण ताका ख्यास्त भोगची पडली. १९२९ त, आनीक एकदां ब्रिटीश सरकारान ताच्या आड देशद्रोहाचो खटलो भरिल्ल्यान ताका एका वर्साची ख्यास्त भोगची पडली.

१९३३ त नागपूर हांगा भरिल्ल्या अठराव्या महाराष्ट्र साहित्य संमेलनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९३३-३५ ह्या काळांत सांगलीच्या दत्तमंदिरांत ताणें 'योग' ह्या विशयाचेर प्रवचनां दिलीं. आपले जाण्टे पिरायेंत ताणें रुद्र, संध्यावंदन, पुरुषसूक्त, ऐतरेय आनी ईशावास्योपनिषद, तैत्तिरीयोपनिषद, ओंकाराची उपासना आनी हेर आध्यात्मिक विशयांचेर बरप केलें.

ताच्या नाटकांत, भूतकाळाक हात घालून तातूंतल्यान वर्तमानकाळाचे संदर्भ वाचप्यांमुखार दवरपाची ताची तांक दिसून येता. ताणें पुराणकाळ आनी इतिहास हातूंतल्या घडणुकांचेर नाटकां बरोवन नवे पिळगेक तातूंतल्यान खूबशें गिन्यान दिवपाचो यत्न केलो. आपल्या नाटकांवरवीं खाडिलकरान मराठी रंगमाचयेक एक उंचेलो पांवडो मेळोवन दिलो.

- प्रा. सुमंत कनयाळकर

**खाडी:** (इंग्लीश- Creek, estuary, channel, firth; हिंदी- खाडी, उपसागर).

दर्यादिगेकसावन भितर सरिल्लो उदकाचो अशीर फांटो. किनाऱ्याकडलो देंवतो भूंयभाग सकयल देंविल्ल्यान वा दर्याच्या उदकाची पातळी वाडिल्ल्यान खाडी तयार जाता. भरती येतकच उदक खाडींत वता आनी ताकालागून ल्हान-व्हड व्हडीं खाडींत वचूंक शकतात. हाका लागून खाडीच्या खोलगट भागाचो व्हड्यांक आश्रय जाता आनी माल-प्रवासी हांकां चडोवप-देंवप हे नदरेन बंदर म्हूण उपेग जाता. युरोप, अमेरिका हांच्या दंतुर किनाऱ्याचेर असल्यो खाडयो आसात.

न्हंयेच्या मुखांतसून दर्याचे भरतीचें उदक जंयमेरेन भितर वचूंक शकता, थंयमेरेनच्या न्हंयेच्या मुखाकडल्या भागाक 'खाडी' म्हण्टात. न्हंयेचे वा दर्याचे क्षरणक्रियेक लागून खाडीचें मुख रुंद जावन तिका फुनेलाभशेन आकार येता. इंग्लंडची टेम्स, दक्षिण अमेरिकेंतली प्लेट ह्या न्हंयांच्या मुखांकडेन लांब-रुंद खाडयो तयार जावन थंय लंडनच्यान ३५ किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या टूरॉक आनी आर्जेंटिनाचें ब्वेनस आयरीस अशीं मोट्या उलाढालीचीं बंदरां विकसित जाल्यांत.

कांय खाडींनी भरपूर गाळ सांठून उरता, जाल्यार कांय खाडी भरती-प्रवाहाक लागून उक्त्यो उरतात. भारतांत, नर्मदेच्या मुखाकडल्या भडोच बंदराची एका काळांत भरभराट जाल्ली. पूण गाळ भरून आयिल्ल्यान सद्या तें आर्विल्ल्या आगबोटींखातीर निरुपयोगी जालां. कोकण किनाऱ्यावेलीं दाभोळ, मुरूड, बाणकोट, जयगड हीं बंदरां खाडींचेरूच वशिल्लीं आसून ह्यो खाडी जलमार्ग म्हूण पयलींपसून वापरांत आसात. खाडीलागसारचो प्रदेश दोंगराळ आसत जाल्यार ताचेपसून मेळपी संरक्षणाक लागून असली खाडी चांचे लोकांक वा जकातचोर वेपाऱ्यांक बरी पडटा. कांय वेळा दोन मोटे सागरी विभाग जोडपी आनी सामुद्रधुनीपरस लांब-रुंद समुद्राक खाडी म्हण्टात. देखीक-उत्तर समुद्र आनी अटलांटिक महासागर हांकां डोव्हर सामुद्रधुनीमार्गान जोडपी इंग्लीश खाडी वा अंदमान-निकोबार जुंव्यांकडली १०° खाडी.

- कों. वि. सं. मं.

**खातीब, महम्मद उस्मान:** (जल्म: १२ मे १९२८, बांदें-सावंतवाडी).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव उस्मान अब्दूल खातीब. राश्ट्रीय काँग्रेस गोंय संघटनेचो तो वांगडी आसलो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो भुंयगत राजकी वावरांनी वांटो घेतालो. १० जून १९५४ दिसा म्हापशें वाठारांत ताका पोलिसांनी धरलो. सुर्वेक ताका आग्वाद बंदखणींत दवरलो आनी उपरांत आल्तिनो बंदखणींत दवरलो. १४ जानेवारी १९५५ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. गोंय सुटके उपरांत तो 'प्रजा समाजवादी पक्ष' (Praja Socialist Party) हे संघटनेचो वांगडी जालो. उपरांत तो जनता पक्षांत गेलो. मार्च १९८४ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**खान, अब्दुल गफारखान:** (जल्म: ३ जून १८९०, उत्मानझाई-पेशावर; मरण:-?).

महात्मा गांधीचो एकनिश्ठ अनुयायी आनी पख्तुनांच्या स्वातंत्र्य लढ्यांतलो एक फुडारी. ताका बादशहाखान अशेंय म्हण्टात. ताचो जल्म एका गिरेस्त घराण्यांत जालो. प्राथमिक आनी माध्यमिक शिक्षण पेशावर हांगा जालें. ताणें लश्करांत 'गाईड्स' हे तुकडींत नोकरी धरली. गोऱ्या अधिकाऱ्यांकडल्यान हिंदी लश्करी अधिकाऱ्यांक अपमानाची वागणूक मेळटा म्हूण लश्करी नोकरेचो त्याग करून तो अलीगढ विद्यापीठांत शिक्षणाखातीर गेलो. १९१० पसून आपल्या प्रदेशांत राश्ट्रीय शाळा काडून पठाण बांधवांनी जागृताय आनी देशप्रेम निर्माण करपाचो यत्न ताणें सुरू केलो.



'रौलॅट ॲक्ट'च्या जुलमी कायद्याआड महात्मा गांधीन सुरू केल्ल्या आंदोलनांत गफारखानान सक्रीय वांटो घेवन, वायव्य सरहद्द प्रांतांत उर्बा निर्माण केली. १९२० च्या नागपूर काँग्रेस अधिवेशनांत ताणें वांटो घेतलो. तशेंच आपल्या प्रांतांत खिलाफत चळवळ संघटित केली. फुडें १९२४ त बंदखणींत-सून सुटतकच ताणें समाज-सुदारणेचो वावर हातांत घेतलें. १९२९ त महात्मा गांधी, नेहरू, मौलाना आझाद ह्या भारतीय फुडाऱ्यांकडेन ताची वळख जाली आनी काँग्रेस चळवळींत तो सामील जालो. ह्याच कार्याक मदत जावंची म्हूण 'खुदाई खिदमतगार' ही स्वयंसेवक संघटना ताणें १९२९ वर्सा स्थापन केली. पठाण समाजांत राश्ट्रप्रेम निर्माण करप, हो हे संघटनेचो मुखेल उद्देश आशिल्लो. पूण ब्रिटीश सरकारान ही संघटना बेकायदेशीर थारायली. १९३० च्या सत्याग्रहांत ताका परत बंदखणींत वचचें पडलें.

काँग्रेसचें अध्यक्षपद गफारखानांक दोनदां दिवपाचें केलें, पूण आपूण फकत एक सादो सेवक आसा, अशें म्हूण ताणें तें पद न्हयकारलें. प्रांतीय वा अखिल भारतीय वेंचणुकेक उबो रावपाचें लेगीत ताणें केन्नाच मान्य केलें ना. अखिल भारतीय काँग्रेस कार्यकारिणीचो तो १९४७ चे फाळणीमेरेन सदस्य आशिल्लो. १९२०-४७ मेरेन ताणें वट्ट १४ वर्सांची बंदखण भोगली.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत भारतीय स्वातंत्र्याखातीर जाल्ले वाटाघाटींत

भारताचें विभाजन जावपाचीं चिन्हां दिसनाफुडें गफारखानान खर विरोध केलो आनी विभाजन जालेंच जाल्यार वायव्य शिमेवयल्या पठाणांचो स्वायत्त पख्तुनिस्तान जावपाक जाय, असो आग्रो धरलो. पूण ताचे यत्न निश्फळ जाले आनी सरहद्द प्रांत पाकिस्तानचोच एक भाग जालो. त्या वेळार दुखेस्त अंतस्कर्णान 'भारतीय फुडाऱ्यांनी आमकां लांडग्यांच्या ताब्यांत दिवन स्वताक मात स्वातंत्र्य मेळयलें' अशें दुखेस्त उलोवप ताणें केलें.

महात्मा गांधीच्या आदेशाक लागून तो आपल्या प्रांतांत गेलो. पाकिस्तानाकडेन एकनिश्ठ रावपाचो सोपूत ताणें घेतलो पूण आपल्या प्रदेशाक स्वायत्तता मेळपाक जाय, असो आग्रो ताणें धरलो. ताका लागून पाकिस्तान सरकारान ताका बंदखणींत घालून ताची 'खुदाई खिदमतगार' संघटना बंद केली. पाकिस्तान स्वतंत्र जायत पसून १९६४ मेरेन तो पाकिस्तानी बंदखणींत उरलो.

भलायकी इबाडली म्हूण सप्टेंबर १९६४ त गफारखानाक इंग्लंडाक वचपाची पाकिस्तान सरकारान परवानगी दिली. पाकिस्तानांत परत येवप धोक्याचें आसा, हें वळखून तो डिसेंबर १९६४ त अफगाणिस्तानांत गेलो. गांधी जल्मशताब्दी महोत्सवांत वांटो घेवपाखातीर गफारखान भारत सरकाराच्या आपोवण्याक मान दिवन ऑक्टोबर १९६९ त भारतांत आयलो. हांगाच्या मुक्कामांत ताका आंतरराश्ट्रीय सामंजस्याखातीर दवरिल्लें नेहरू पारितोषिक दिलें. भारताखातीर केल्ले सेवेखातीर कृतज्ञता परगटावन भारतीयांनी ताका थैली अर्पण केली.

सरहद्द प्रांतांतलो महात्मा गांधीसारको म्हान फुडारी म्हूण ताका 'सरहद्द गांधी' अशें भोवमानान म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**खानोलकर, चिंतामण त्र्यंबक:** (जल्मः ८ मार्च १९३०, बागलांची राई-वेंगुर्ले-सिंधुदुर्ग; मरणः २७ एप्रिल १९७६, मुंबय).



मराठींतलो एक नामनेचो कवी, कादंब्रीकार, नाटककार. ताणें आपल्यो चडश्यो कविता 'आरती प्रभू' ह्या टोपण नांवान बरयल्यो. ताचें मुळावें शिकप सुर्वेक कुडाळ, सावंतवाडी आनी उपरांत मुंबय हांगा जालें. कविताची तांक ताका जल्मताच आशिल्ली. ताणें मुंबय विद्यापीठ, मुंबयचें आकाशवाणी केंद्र तशेंच 'गुरुकुल' (लोणावळा) हांगा १९५५ सावन १९६६ मेरेन नोकरी केली. मात ते उपरांत ताणें फकत बरोवपूच केलें.

ताणें बरयल्ल्यो कांय साहित्यकृती अश्यो- *कवितांझेलेः* 'जोगवा' (१९५९), 'दिवेलागण' (१९६२), 'नक्षत्रांचे देणे' (१९७५). *कादंबऱ्योः* 'रात्र काळी घागर काळी' (१९६३), 'तृणसंगीत' (१९६४, द ग्रास-हार्प-ट्रुमन कापोत हाचे कादंबरीचो अणकार), 'अजगर' (१९६५), 'कोंडुरा' (१९६६), 'त्रिशंकू' (१९६८), 'गणुराया आनी चानी' (१९७०, महाराष्ट्र राज्य पुरस्कार), 'पिशाच' (१९७०). 'अज्ञात कबुतरें' ('झेक' ह्या चित्रपटाचेर आदारीत; १९७२), 'अगोचर' (१९७५), 'पाषाण', 'पालवी' (१९७६), 'भागधेय' (१९७६), 'असाही एक अश्वत्थामा' (१९७७), 'दुष्टचक्र' (१९७९), 'खडक' (१९७३), 'चकवा' (उजवाडाक येवंक ना). *कथांझेलेः* 'सनई' (१९६४, महाराष्ट्र राज्य पुरस्कार), 'राखीपाखरु' (१९७१), 'चाफा आणि देवाची आई' (१९७५, मॅजेस्टिक ग्रंथ इनाम), 'बाप' (१९७८). *नाटकांः* 'एक शून्य बाजीराव' (१९६७, महाराष्ट्र राज्य पुरस्कार), 'सगे सोयरे' (१९६७, महाराष्ट्र राज्य पुरस्कार), 'श्रीमंत पतीची राणी' (१९७१), 'अवध्य' (१९७२), 'कालाय तस्मै नमः' (१९७२, महाराष्ट्र राज्य पुरस्कार आनी राज्य नाटकां सर्तींत नाटक बरपावळींतलें पयलें इनाम), 'हयवदन' (१९७३, गिरीश कर्नाड हाच्या नाटकाचो अणकार), 'अजब न्याय वर्तुळाचा' (१९७४, कॉकेशियन चॉक सर्कल ह्या बर्टोल्ट ब्रेस्ट हाच्या नाटकाचो अणकार), 'खेळी' (१९७६), 'संगीत अभोगी' (१९७६). हेभायर 'गोपाळ गाणी' (१९६६, भुरग्यांखातीर गीतांझेलो), 'वारा वाहे रुणझुणा' (१९७३, लघुनिबंदां झेलो), 'व्यक्तिचित्र' (१९७४) असलें बरपूय ताणें केलां. ताचीं कितलींशींच नाटकां, एकांकिका आनी कविता अजुनूय उजवाडाक येवपाच्यो आसात.

कोंकणींतली लोकजीण आनी धंयचो सैम हांचो ताका मेळिल्लो सांगात ताचे बरपावळींतल्यान जळींमळीं दिसून येता. खानोलकरान आपल्या साहित्यांत रंगयल्ल्यो व्यक्ती ह्यो जित्यो जिव्यो आशिल्ल्याचो अणभव वाचतल्याक खिणाखिणाक येता. मनीस जिणेंतले भोगाचें असादारण अशें म्हत्व, तशेंच दुखख आनी दळिद्र हांची अपरिहार्य अशी जाणविकाय आनी ह्या सगळ्यांच्या वयर आशिल्लो नियतीचो गूढ असो अंकूश ह्यो सगळ्यो गजाली ताचे बरपावळींत खुबशा सुवातींनी दिसून येतात. व्यक्तिगत जिणेंतल्या एका दुखखाची सयाय ताच्या बरपांत दिसून येता. नवो अणभववाद, अस्तित्ववाद (realism) हांचें दर्शन ताच्या कवितांतल्यान घडटा. जिणेंत येवपी दूख हें मनशाचे जडण-घडणीचेर पातयेवन आसता, हाचेर ताचो पुराय विस्वास आसा.

खानोलकर हाका ताच्या विंगड विंगड बरपावळीखातीर महाराष्ट्र सरकाराचीं वट्ट आठ इनामां फाव जालीं. १९६४ त, 'रायटर सेंटर' हे संस्थेन ताका स म्हयन्यांखातीर दुडवां पालव दिलो. 'नॅशनल सेंटर फॉर परफॉर्मिंग आर्ट्स' हे संस्थेन 'दशावतार' ह्या लोकनाट्याचो अभ्यास करपाखातीर, ताका संशोधन शिष्यवृत्ती दिली. एक ऊंच पांवड्याचें नाटक म्हूण आकाशवाणीन वेंचून काडिल्ल्या ताच्या 'कालाय तस्मै नमः' ह्या नाटकाचो सगळ्या भारतीय भासांनी अणकार जाला.

- प्रा. सुमंत कनयाळकर

**खानोलकर, वसंत रामजी:** (जल्मः १३ एप्रिल १८९५).

एक भारतीय वैजकीशास्त्रज्ञ. वैजकी शिकप मुंबय आनी लंडनच्या विद्यापीठांत जालें.

ग्रँट मॅडिकल कॉलेज, मुंबय, सेठ जी. एस्. मॅडिकल कॉलेज, मुंबय ह्या संस्थांनी शिकोवन ताणें कॅन्सराविशींचें मोलाचें संशोधन केलें. १९५० त ताची इंटरनॅशनल कॅन्सर रीसर्च कमिशनचो अध्यक्ष म्हूण वेंचणूक जाली. संयुक्त राश्ट्रांचे वैज्ञानिक समितीचो तो वांगडी आसलो. लंडनचे रॉयल सोसायटी ऑफ मेडिसिनचोय तो वांगडी आसलो. १९५०-५३ ह्या काळांत तो इंडियन कॅन्सर रीसर्च सेंटरचो मुखेल आसलो. 'इंडियन अॅकॅडमी ऑफ मॅडिकल सायन्सेस', 'नॅशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्सेस ऑफ इंडिया' ह्या सारक्या संस्थांकडेन वांगडी आनी अध्यक्ष ह्या नात्यान ताचो संबंद आयलो. मुंबय विद्यापीठाचो तो उपकुलगुरू आशिल्लो.

ताचे शंबरांवयर संशोधनात्मक लेख उजवाडाक आयल्यात. 'लूक अॅट कॅन्सर' हें ताचें पुस्तक चड म्हत्वाचें अशें समजतात.

वैज्ञानिक मळार आणवीय प्रारणाचो (atomic radiation) परिणाम सोदून काडपाचें कार्य ताणें केलां.

१९६३ त, 'नॅशनल रिसर्च प्रोफेसर इन मॅडिसिन' आनी १९५५ त 'पद्मभूषण' दिवन सरकारान ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**खामसूत्री बावल्यो:** बावल्यांच्या हालचालींतल्यान एकाद्रो

कलात्मक प्रसंग प्रेक्षकांमुखार सादर करपाचो पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयिल्लो एक खेळ. खामसूत्री बावल्यांचें आंग, अवयव जाय ते दिकेक सहज घुंवडावंक मेळचे म्हूण तांच्या आंगांतल्यान तारो व्हरतात. ह्या तारांक 'खामसूत्र' अशें म्हण्टात. खामसूत्र हातांत घेवन सूत्रधार माचयेवेल्या बावल्यांक तरांतरांनी नाचयता.

भारतांत खूब पूर्विल्ल्या काळासावन हो खेळ चलत आयला. ६४ कलांभितर हे कलेचो आस्पाव आसा. हे कलेचो सगळ्यांत पयलो उल्लेख महाभारतांत मेळटाः

परप्रयुक्तः पुरुषो विचेष्टते।
सूत्रप्रोता दारुमयीव योषा

(महाभारत उद्योगपर्व ३२.१३)

अर्थ- खामसूत्री बावली जशी सूत्रधाराचे इत्सेप्रमाण हालचाल करता, तशेंच मनीस हो ईश्वराचे इत्सेप्रमाण हालचाल करता.

मोहेंजोदारो, हराप्पा, ग्रीस आनी ईजिप्त हांगाच्या उत्खननांनी हालते सांदे आशिल्ले मूर्तींचे अवशेश मेळ्ळ्यात. इ. स. प. ३०० वर्सा ग्रीस आनी इटली हांगाच्या साहित्यांत मेळिल्ल्या उल्लेखांवेल्यान खामसूत्री बावल्यांचो आरंभ सुर्वेक युरोपांत जालो आनी उपरांत ताचो प्रसार उदेंतेकडल्या चीन देशांत आनी फुडें अमेरिका देशांत जालो, अशें अस्तंती पंडितांचें मत आसा. पूण खामसूत्री बावल्यांची मुखेल जल्मभूंय भारत आसून भारतीय नाटकांचें मूळ खामसूत्री बावल्यांच्या खेळांत आसा, अशें डॉ. पिशेल हाचें मत आसा. खामसूत्री बावल्यांच्या खेळांतलो सूत्रधार जें काम करता तेंच काम भरतमुनीच्या नाट्यशास्त्रांतलो सूत्रधार करता. हाचेवेल्यान खामसुत्री बावल्यांच्या खेळांतलो सूत्रधारूच नाट्यसृश्टींत आयलो अशें अनुमान वेदार्थयत्नकर्ते स. शं. पां. पंडित हाणें केलां. भारतांत हे कलेचो प्रसार खूब पूर्विल्ल्या काळासावन आशिल्लो. हें पंचतंत्रांतल्या 'काष्ठचित्रक्रीडन' आनी अवदानकल्पलतेंतल्या 'यंत्रपुत्रकलीला' ह्या खामसूत्री बावल्यांच्या खेळांक उद्देशून आयिल्ल्या शब्दांवेल्यान दिसून येता. तशेंच हेर संस्कृत साहित्यांतल्यान पुत्रिका, दूहितृिका, पुत्तली, पुत्तलिका आनी काष्ठपांचालिका ह्या शब्दांचो वापर खामसुत्री बावल्यांक उद्देशून केला. राजशेखरान आपल्या 'बालरामायण' ह्या संस्कृत नाटकाच्या पांचव्या अंकांत दोन खामसूत्री बावल्यो माचयेर हाडल्यो. माचयेर खामसूत्री बावल्यो हाडपी संस्कृत भाशेंतलें हें पयलेंच नाटक. त्या काळांत बावल्यो तयार करपाखातीर लांकूड, लोकर, रेड्याची कातडी, शिंगां आनी हस्तीदंत हांचो वापर करताले.

ह्यो बावल्यो घडोवपाचे नदरेन खामसूत्री बावल्यांचे चार मुखेल प्रकार आसातः

१. **छाया-बावली**: ही रंगीत कागद, कचकडें (कांसवाची कट्टें), पातळ चामडें अशा मितपारदर्शक पदार्थांपसून तयार करतात.

२. **हात-बावली**: हातमोज्यासारकी हाताचेर बसोवन माचयेफाटल्यान उबो रावन हिची हालचाल करतात.

३. **काठी-बावली**: ह्या प्रकारांत बावलेची तकली एके पातळ काडयेर बसयल्ली आसता. दोनूय तळटांक तश्योच पातळ काडयो लायिल्ल्यो आसतात. एका हातान तकलेची काडी आनी दुसऱ्या हातान बावलेच्या हातांतल्यो दोनूय काडयो हांची हालचाल करून बावली चलयतात.

४. **सूत्र-बावली**: ही खरी खामसूत्री बावली. माचयेफाटल्यान वयर उबो रावन ती चलयतात.

खामसूत्री बावल्यांच्या नाचाच्यो दोन पध्दती आसातः- एक राजस्थानी आनी दुसरी दक्षिणात्य. उत्तर प्रदेश वा राजस्थानी पध्दतीचे बावलेक 'कठपुतली' अशें म्हण्टात. ती चड करून लांकडापसून तयार करून तिका कापड आनी चामडें हांचोय वापर करतात. ज्या प्रदेशांत कठपुतळ्यो तयार करतात, त्या प्रदेशांतली वेशभूषा आनी केशभूषा त्या बावल्यांक चडयतात. ह्या खेळाखातीर वेंचून काडिल्लें कथानक इतिहासीक प्रसंगाचेर वा शूर मनशाच्या चरित्राचेर आदारिल्लें आसता. दाक्षिणात्य पध्दतीची बावली आकारान मोटी आसता. तांचें कथानक धर्मीक आनी पौराणिक कथाप्रसंगांचेर आदारिल्लें आसून ह्या बावल्यांचें संचालन पडद्याफाटसून करतात. ताका लागून प्रेक्षकांक प्रत्यक्ष बावल्यो दिसनासतना फकत तांच्यो सांवळ्यो मात दिसतात. मलबारांत ह्या छायानाट्याक 'पेवाकुत्तू' आनी तें दाखयतल्याक 'कुत्तूकर' अशें म्हण्टात. अठराव्या शेंकड्यामेरेन हे कलेक राजदरबारांत लेगीत मानाची सुवात आशिल्ली. त्या काळांत इतिहासांतल्यो घडणुको, पुराणांतल्यो काणयो, लोकांकाणयो आदी प्रसंग खामसूत्री बावल्यांच्या खेळान दाखयताले.

उत्तर प्रदेश, महाराष्ट्र, माळवा, राजस्थान, बंगाल, गुजरात, आंध्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांनी हो वेवसाय वंशपरंपरागत चलोवपी कुटुंबां आसात. तेचप्रमाण खामसूत्री बावल्यांची ही कला ब्रह्मदेश, चीन, जपान, जावा, बाली तशेंच तुर्कस्तान, ग्रीस, सुमात्रा, ईजिप्त, इटली ह्या देशांतूय प्रचलित आसा. इंग्लंडांत खामसूत्री बावल्यांचो खेळ मध्ययुगांत खूब लोकप्रिय जाल्लो. इटलींत ह्या खेळाक 'पंचिनेलो' आनी फ्रांसांत 'पोलिशिनॅल' अशें म्हूण वळखतात. १६६० वर्सा ताचो प्रसार इंग्लंडांत जावन त्या नांवाचो 'पंच' असो संक्षेप जालो. जर्मनीतूय हो खेळ खूब लोकप्रिय जालो. नामनेचो जर्मन कवी गटे हाणें आपल्या बाराव्या वाडदिसाक बावली-नाट्याखातीर एक नाटक बरयल्लें. लुईस कॅरॉल, हॅन्स अँडरसन आनी टेड लिंकन हांणीय खामसूत्री बावल्यांचे खेळ तयार केल्ले.

१९२१ वर्सा मॅकआयझाक हाच्या 'द टोनी सर्ग मेरिओनेर बुक' ह्या पुस्तकाक लागून ह्या खेळाचो खूब प्रचार जालो. १९३० वर्सा प्राग हांगा खामसूत्री बावल्यांची एक संवसारीक स्वरुपाची संस्था स्थापन जाली. हे संस्थेन संवसारीक अधिवेशनां घडोवन हाडलीं. ह्या खेळाविशींचीं स्वतंत्र अशीं नेमाळीं सुरू केलीं. देखीकः 'द मेरिओनेट' (१९१८). बूकारेस्ट हांगा मे १९५८ त भरिल्ल्या खामसूत्री बावल्यांच्या संवसारीक उत्सवांत २७ देशांचे ३०० सभासद हाजीर रावन ३० हौशी मंडळांनी खेळां-प्रदर्शन केलें.

आयज अस्तंती देशांनी आनी चड करून अमेरिकेंत यंत्रविद्येची जोड घेवन खामसूत्री बावल्यांचें नाट्य-मनोरंजनावांगडाच शिक्षण आनी प्रसाराचें साधन म्हूण वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

## खिलजी राजवंशः (इ.स. १२९० ते इ.स. १३२०).

गुलाम वंशाउपरांत दिल्लीचेर राज्य चलोवपी एक वंश. अफगाणिस्तानांतल्या खल्ज प्रांतांत राबीतो करून आशिल्ल्या लोकांक 'खल्जी' वा 'खिलजी' अशें म्हण्टात. हे लोक मूळ अफगाणी न्हय; ते तुर्की आशिल्ले, पूण खल्ज प्रांतांत बरेच तेंप राविल्ल्यान तांकां अफगाणी मानतात. गजनीचो महंमूद आनी महंमद घोरी हांणी भारताचेर घुरयो घाल्यो तेन्ना बरेच खल्जी लोक भारतांत येवन रावले.

गुलाम राजवटींत तुर्कांचें बळगें चड आशिल्लें, पूण बंगाल प्रांताचेर जैत मेळोवपाच्या कामांत खिलजी लोकांची धिटाय चड उपेगाची थारली आनी ताका लागून तांचो शेक वाडलो. गुलाम घराण्यांतलो निमणो राजा कैकोबाद हो चड जुलमी आशिल्लो. खिलजी लोकांचो फुडारी जलालुद्दीन हाणें ताचो खून करून घेतलो आनी ताच्या सान पुताक, शमसुद्दीनाक राजा केलो. पूण कांय तेंपान ताचोय खून करून जलालुद्दीनान दिल्लीचें राज्य स्वता हातासलें (१२९०). फिरोजशहा हें नवें नांव ताणें घेतलें. त्यावेळार तो ७० वर्सांचो आशिल्लो. कुडीन आनी मनान दुर्बळ जाल्ल्या ह्या राजाचो राज्यकारभार फाव तसो चल्लो ना. ताणें फकत ५-६ वर्सां राज्य चलयलें. ताच्या दुबळेपणाचो फायदो घेवन बऱ्याच सरदारांनी ताच्याआड कारस्थानां करूंक सुरवात केली.

जलालाचो जावंय अलाउद्दीन म्हत्वाकांक्षी आशिल्लो. तो कडामाणिकपुर प्रांताचो सुभेदार आसतना ताणें भिलसा हांगा घुरी घालून बरीच लूट मेळयली. तेन्ना जलालुद्दीनान ताका अयोध्या प्रांताची सुभेदारी दिली. इ. स. १२९६ सुर्वेक ताणें अचकीत देवगिरीचेर घुरी घालून

रामदेवरावाचेर जैत मेळयलें आनी ताच्याकडल्यान बरीच खंडणी मेळयली. उपरांत ताणें आपल्या सैन्याची वाड केली आनी जलालुद्दीनाक कारस्थान करून मारून उडोवन तो दिल्लीचो राजा जालो.

सत्ता हातांत येतकच ताणें पयलीं जलालुद्दीनाचो विश्वासघात करयाक खर ख्यास्त भोगयली आनी हेर लोकांक सदळ हातान इनामां दिवन वश करून घेतले. ताचे कारकिर्दींत बरींच बंडां जालीं, पूण ताणें ती बेगोबेग काबार केलीं. जलालुद्दीनाच्या पुताचोय ताणें बरेभशेन बंदोबस्त केलो.

अलाउद्दीनाच्या काळांत मोगलांनी भारताचेर चार फावट घुरयो घाल्यो. पूण दर खेप अलाउद्दीनाच्या सरदारांनी तांचो पराभव करून बऱ्याच जाणांक मारून उडयले.

इ. स. १२९८ त अलाउद्दीनान उलुघखान आनी नुस्त्रतखान हांकां गुजराताक धाडले. थंय अवहिलवाडचो राजा स्वताच्या राज्याचेर घुरी येता तें पळोवन पळून गेलो. ताची राणी कमलादेवी दुस्मानांच्या हातांत सांपडली आनी फुडें ती अलाउद्दीनाची पट्टराणी जाली. हे घुरयेंत मुसलमानांनी सोमनाथ मंदिर लुटलें आनी थंयचे मुर्तीचे कुडके दिल्लीक व्हरून मशिदीची बुन्याद घालूंक वापरले. ताचेउपरांत इ. स. १३१० वर्सा अल्लाउद्दीनान स्वता राजस्थानांतल्या रणथंभोर किल्ल्याचेर घुरी घालून ताचेर जैत मेळयलें. थंयच्या हंबीरदेवाचो प्रधान फितूर जाल्ल्यान ताका जैत मेळोवप सोपें जालें. जैताउपरांत रोकडोच ताणें राजासयत थंयच्या बऱ्याच लोकांक मारून उडयले.

अलाउद्दीनाचे कारकिर्दींतली सगळ्यांत म्हत्वाची घडणूक म्हळ्यार ताची चितोडगडावयली घुरी (इ. स. १३०३). चितोडची राणी पद्मिनी हिचे सोबितकायेची किर्त आयकल्याउपरांत तिका मेळोवची ह्या उद्देशान ताणें ही घुरी घाली, अशें म्हण्टात. पूण हे गजालीक चडसो इतिहासीक आदार मेळना. राजपुतांनी ताका हांगा खर विरोध केल्ल्यान सुमार सात म्हयन्यांमेरेन अलाउद्दीनाक जैत मेळ्ळें ना. पूण फुडें राजपुतांचो नेट उणो पडलो आनी हजारांनी राजपूत वीरांक मारून उडोवन अलाउद्दीनान चितोडगडाचेर जैत मेळयलें.

देवगिरीचो रामदेवराव खंडणी धाडिनाशिल्ल्यान इ. स. १३०७ त अलाउद्दीनान आपलो सरदार मलिक काफूर हाका दक्षिणेंत धाडलो. काफूरान आपले घुरयेंत पुराय महाराष्ट्रभर लुटालुट केली आनी रामदेवरावाक बंदी करून दिल्लीक व्हेलो. अलाउद्दीनान मात रामदेवरावाचो भोवमान केलो आनी ताका छत्र, राजाधिराज ही पदवी आनी एक लाख रुपया इनाम दिवन प्रतिश्ठेन पर्थून धाडलो. इ. स. १३०८ त अलाउद्दीनान सगळ्या राजस्थानाचेर आपलो शेक पातळायलो.

इ. स. १३१० वर्सा मलिक काफूरान आंध्र देशाची राजधानी वरंगळ जिखून घेतली आनी १३११ त द्वारसमुद्रम हांगाच्या बल्लाळांच्या राज्याकूय काबार केलें. ताचे उपरांत तो सामको दक्षिणेवटेन मदुरेमेरेन पावलो. पांड्य राजांनी ताका बरोच विरोध केलो, पूण ताच्या बळामुखार ताची शक्त उणी पडली. हे घुरयेंत मलिक काफूरान चिदंबरम्, श्रीरंगम्, बीरधूल, मंदुरा ह्या सारक्या बऱ्याच थळांवयलीं देवळां नश्ट केलीं आनी बरीच संपत्ती लुटून दिल्लीक व्हेली. इ. स. १३१३ त काफूरान पर्थून देवगिरीचेर घुरी घाली आनी रामदेवरावाच्या पुताक मारून उडयलो. अशे तरेन अलाउद्दीनाचे कारकिर्दींत पुराय महाराष्ट्र मुसलमानांच्या हातांत गेलें.

अलाउद्दीन खिलजी हाणें वीस वर्सां दिल्लीचेर राज्य केलें. निमणी चार वर्सां तो पुरायपणान मलिक काफूराच्या हातांतलें बावलें जाल्ल्यान राज्यांत अंदाधुंदी जाली. इ. स. १३१६ त अलाउद्दीन खिलजीक मरण आयलें. तो कपटी, निर्दय आनी छंदिश्ट आसलो तरी ताचो राज्यकारभार तुस्त करपासारको आशिल्लो. तो शूर आनी हुशार झुजारीय आशिल्लो. अशिक्षित आसलो तरी ताची बुध्द मात बरी चलताली. ह्या गजालींक लागून ताका बरेंच यश मेळ्ळें. फुडें यशाचे नशेन तो मदांध जाल्लो. ताणें स्वताक दुसरो सिकंदर हें नांव घेतलें. स्वता पैगंबर जावंचो अशेंय ताच्या मनांत आशिल्लें.

अलाउद्दीनाच्या मरणाउपरांत मलिक काफूरान ताचे बायलेक धांवडावन घाली आनी ताच्या भावाक आनी पुताक कुड्डे केले. फुडें काफूरान शहाबुद्दीन ह्या अलाउद्दीनाच्या दुसऱ्या भावाक राजा केलो. रोकडोच काफूराचो खून जालो आनी अल्लाउद्दीनाचो दुसरो पूत बारकशहा हाणें इ. स. १३१७ त शहाबुद्दीनाक सत्तेवयल्यान सकयल देंवयलो आनी राज्य आपल्या हातांत घेतलें. ताणें ताच्या हसन नांवाच्या आवडट्या गुलामाक मलिक खुश्रु ही पदवी आनी वजीरी दिली.

मुबारकशहान गुजरात आनी देवगिरी हांगा जाल्लीं बंडां स्वता काबार केलीं. अलाउद्दीनान गरजेभायर बंदखणींत उडयल्ल्या लोकांक ताणें सोडून दिले. लोकांच्यो जप्त केल्ल्यो जमनीय ताणें मेकळ्यो केल्यो. निमणो तो व्यसनांनी सांपडलो आनी सगळो कारबार खुश्रु सांबाळूंक लागलो.

खुश्रुन आपलो शेक बरोच वाडयलो. ताणें मलबारचेर घुरी घालून भरपूर लूट हाडली. फुडें राज्यांत बेबंदशाय सुरू जाली. सगळ्याक म्हारगाय वाडली आनी वचत थंय बंडां जावंक लागलीं. खुश्रुन बंडां मोडपाखातीर बरीच दडपशाय केली आनी निमणो इ. स. १३२० त ताणें मुबारकशहाचो खून केलो.

खुश्रु मुळचो हिंदू आशिल्लो. ताणें नासिरुद्दीन ह्या नांवांन एक वर्सभर दिल्लीचें राज्य चलयलें. ताच्या आलाशिन्यान ताचे जातीचे हजारांनी हिंदू गुजरातसावन दिल्ली आयले. ताच्या मुसलमानांआडच्या धोरणाक लागून मुसलमान खुबळ्ळे आनी तांणी बंड केलें. निमणो पंजाबचो सुभेदार गाजीबेग तुघलक हाणें दिल्लीचेर घुरी घालून खुश्रुक मारुन उडयलो आनी तो स्वता गयासुद्दीन तुघलक ह्या नांवान राजगादयेर बसलो. अशे तरेन खिलजी वंश काबार जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**खीर:** तांदूळ, शेवयो वा हेर जिन्नस शिजोवन, तातूंत दूद वा नाल्लाचो रोस आनी गोड वा साकर घालून केल्लें गोडशें. हातूंत जे जिन्नस घालतात त्या जिनसांवेल्यान ते खिरीक नांव दितात. देखीक- गंवाचो कणो घालून केल्ले खिरीक 'सोजी' म्हण्टात. चण्यांची दाळ घालून केल्ल्या गोडशाक 'मणगणें' म्हण्टात. ह्या दोनूय खिरींनी चडकरून नाल्लाचो रोस आनी गोड घालतात. तांदूळ घालून केल्ले दुदाचे खिरीक गोंयांत 'पायस' म्हण्टात. हाचेभायर शेवयो, कणंगां, कोंकणदुदी, गाजर, शाबुदाणे हे जिनस घालून खीर करतात.

**तांदळाची खीर (पायस)**: तांदूळ बरे धुंवन वाळगूंक दवरतात. उपरांत, ते तुपांत तळसून तातूंत तांदळाचे दोन पटीन उदक घालून शिजयतात. तातूंत आटयल्लें दूद, साकर, काजू म्होवलो, बदाम, पिस्ता, खिसमीस घालून खतखतो काडटात. पायसाक दाटसाण येवपाखातीर शाबुदाणेय धुवन घालतात. शेवयांची आनी शाबुदाण्यांची खीर तांदळाच्या पायसाभशेन करतात. ती करचेवेळार शेवयो जावं शाबुदाणे तुपांत परतिल्यार खीर चड सुरबूस आनी सुरसुरीत जाता.

**हेर खिरी**: (गाजर, कोंकणदुदी, कणंगां). गाजर वा कोंकणदुदयाची खीर करपाची आसल्यार ते पयली किसतात. कणंगांची खीर करपाची आसल्यार ताच्यो फोडी करतात. किशिल्लो गाजर वा कोंकणदुदी तुपांत तळसून, थोड्याशा उदकांत शिजोवन तातूंत आटयल्लें दूद वा नाल्लाचो रोस घालतात. दुदांत शिजयल्यार चडकरून साकर आनी नाल्लाच्या रोसांत शिजयल्यार गोड घालतात. उपरांत तातूंत हळदीचें पान वा वेलची आनी मीठ घालून शिजयतात. हालींच्या काळांत दूद आटोवपाचे बदला बाजारांत मेळटा तें 'कंडेन्स्ड मिल्क' घालुनूय पायस वा खीर करतात.

गोंयांत पयलींच्या काळांत चडकरुन खिरींत नाल्लाचोच रोस घालताली. आतां चडशें दुदूय घालून खीर करतात. कांय कडेन गंवाचो रवो घालून गोडशें करतात, हाका गोंयकार 'लरांव' म्हण्टात.

खीर हें गोडशें (पक्वान्न) खोशयेच्या वेळार, परबो मनोवपाच्या

वेळार, पूजा वा धर्मीक विधी आसल्यार तेचपरी लग्न-मूज ह्या सारक्या शुभकार्यावेळार करतात. ही खीर जशी खोशयेवेळार करतात, तशीच बारावो आनी श्राध्दा सारक्या दुखखाचे जेवणावळीकूय खीर (सोजी) करपाची चाल आसा.

- सुधा सु. आमोणकार

**खुबे:** (पळेयातः तिसऱ्यो).

**खुरीस:** खुरीस ही आयच्या काळांत किरिस्तांवपणाची खूण जावन आसा. पूण खुरीस किरिस्तांवांनी करूंक ना. किरिस्तांव धर्म अस्तित्वांत येवंचे आदीं सावन खुरीस आशिल्लो. जेन्ना जेजू क्रिस्ताक खुरसार मारलो, तेन्नासावन खुरीस किरिस्तांवपणाची कुरू जाली.

खुरीस इ. स. आदींसावन आशिल्लो, हाचो पुरावो चीन, युरोप, पेरु (अमेरिका) आनी भारत ह्या देशांनी मेळटा. भारतांत आनी चीनांत स्वस्तीक मेळटा. तीं स्वस्तिकां सुर्याची खूण अशें म्हण्टात. ह्या स्वस्तिकांक क्रूस गामाता म्हण्टात. चार ग्रीक भाशेच्या (गामा) अक्षरांनी तें घडिल्ल्यान ताका तशें नांव मेळळां.



ताव नांवाचो आनीक एक खुरीस आसा. तो ग्रीक ताव 'टी' (**T**) अक्षराभशेन दिसता. ईजिप्त आनी सिरीयांत असल्या ताव खुरसाचे सुवातेर एक आंकडो घालताले. ताका क्रूस अन्साता म्हण्टात.

**रोम शारः** रोम शारांत चोराक, गुन्यांवकाराक खुरसार जिवेशीं मारपाची ख्यास्त दिताले. खुरीस तीन तरांचे आसताले. पयलो क्रूस कोमीसा (**T**) दुसरो क्रूस इमिसा (**+**) तर तिसरो क्रूस देकूसाता (**X**). असल्याच खुरसार भाग्यवंत आंद्रे जेजूच्या आपोस्तोलाक मारिल्लो.

जेजूचो खुरीस क्रूस इमिसा आशिल्लो दिसता. रोमाच्या कायद्याप्रमाण एका उब्या लांकडाचेर दुसरें आडवें लांकूड (पाटीबुलूम) बसयताले. ह्या आडव्या लांकडाचेर हात बांदताले वा खिळे मारताले आनी मागीर हें आडवें लांकूड उब्या लांकडाचेर वयर काडटाले, तशेंच ह्या उब्या लांकडाचेर पांय बांदताले वा पांयाक खिळे मारताले.

खुरसाची ख्यास्त जाका जाताली ताका उगडो करून जेरबंदाचो मार दिताले. उपरांत ताच्या भुजांचेर आडवें लांकूड (पाटीबुलूम) घालून तें ख्यास्तीच्या जाग्यार व्हरताले. ताव खुरीस आसल्यार, त्या खुरसार गुन्यांवकाराक चडयताले आनी उपरांत त्या खुरसाचेर बांदताले वा मारताले.

**किरिस्तांव धर्मांत खुरीसः** पयल्या तीन शतमानांनी किरिस्तांव लोक सभेमुखार खुरीस हाडीनासले. रोमच्या साम्राज्याखाल आशिल्ल्या गांवांनी खुरीस हें ख्यास्तीचें हत्यार आशिल्लें, पूण जेजू क्रिस्त खुरसार मेल्ल्यान, खुरीस धर्माचें प्रतीक जालें.

तिसऱ्या शतमानांत खुरसाक सभेमुखार हाडून मान दिवंक लागले. कोंस्तातिन हो राजा माक्सीनतियूस हाचेलागीं झुजतना ताका मळबांत खुरीस दिश्टी पडलो. खुरसावांगडाच ताणें हे कुरवेन तूं जिखतलो, हीं ग्रीक भाशेंतलीं उतरां पळेलीं. उपरांत इ. स. ३१२ वर्सा तो खऱ्यांनीच जैतिवंत जालो.

कोंस्तांतीनाची आवय संत हेलेना, जेरूसलेमाक पावली तेन्ना ती जेजू क्रिस्ताच्या मरणाच्या जाग्यार गेली. तिणें थंयच्या एका जाण्ट्या जुदेवाकडल्यान म्हायती घेवन, जेजूक मरण आयिल्लें ती सुवात उसपूंक लायली. ह्या जाग्यार तिका तीन खुरीस, जेजूच्या खुर्सार बरयल्लीं उतरां आनी खिळे मेळळे. तातूंतलो एक जेजूचो तर दुसरे दोन चोरांक मारपाचे आसले. जेजूचो खुरीस खंयचो हें तिका कळ्ळें ना. तो पारखून काडपाखातीर देवाकडेन तिणें मिलाग्र वा अजाप मागलें. तिणें एके बायलेक (अस्तुरी) जी पिडेस्त आसली, तिका खुर्सार पातळायली. तेन्ना ती बरी जाली. अशी एक कथा आसा.

खुरसाचे कुडके करून सगळ्या संवसाराक व्हेल्ले आसात. जेजूच्या माथ्यार बरयल्लीं उतरां जेरूसलेम शारांत पवित्र खुर्साचे इगर्जेंत दवरल्यांत. भाग्यवंत हेलेनाक कितले खिळे मेळळे ताची सारकी वळख ना. पूण ताचो आंकडो चार आसूंये, अशें म्हण्टात. एक खिळो तिणें दर्यांतलें वादळ-मोड बंद जावपाखातीर दर्यांत उडयलो, अशें म्हण्टात. दुसरो लॉबार्डीच्या पातशाच्या मुकुटाक लोखणाचो वेंटो करपाक घालो. हेर खिळे खंय आसात, तें सारकें कळून येना. आयच्या काळांत संवसारांत पवित्र खिळे म्हूण वळखतात तांचो आंकडो ३० वयर पावता.

**आतांचे खुरीसः** धर्माची खूण जाल्ल्यान खुरसाक मान आनी गौरव मेळपाक लागलो. इगर्जेंत पातशाच्या मुकुटार, सरदाराचे भिलायेर खुरीस घालूंक लागले. ताची आकृती बदल्ली. आयच्या काळांत जायत्या तरांचे खुरीस दिश्टी पडटात. खुरसांचे कांय प्रकार अशे आसात.

**इगर्जेचे खुरीसः** गांवा-गांवांनी जायत्या तरांचे खुरीस दिश्टी पडटात. घरांमुखारूय बांदिल्ले खुरीस आसात. वाड्या-वाड्यांनी खास करून मेकळ्या सुवातांनी खुरीस उबारिल्ले दिसतात. खुरसाची सांवळी आशिल्ल्या जाग्यार देवाचो आदार मेळटा, ह्या भावार्थान लोक ते बांदतात.

गोंयांत इगर्जेमुखार एक पेड दवरून कलात्मक खुरीस बांदिल्ले दिसतात. मडगांवचे इगर्जेमुखार आशिल्ल्या पेडाचेर जो खुरीस आसा, तो सोबीत आसून ताका इतिहासीक म्हत्व आसा.

इगर्जेच्या दर्शनी वण्टीच्या माथ्यार एक बरो खुरीस घालतात. आतां तो विजेच्या दिव्यांनी वा हेर सोबायेन सजयतात.

इगर्जेभितर चडकरुन आल्ताराचेर, जेजूचो पुतळो आशिल्लो खुरीस दवरतात. हे खुरीस जायते भशेन नटयिल्ले आसतात. निमण्या शुक्रार दिस (गुड फ्रायडे) जेजुची मूर्त एका व्हडल्या लांकडाच्या (क्रूस इमिसास) खुरसाक हुमकळायतात. ही प्रथा चड करून गोंयकार आनी लॅटीन अमेरिकेच्या किरिस्तांवांमदीं आसा.

कसलेंय पुरसांव (मिरवणूक) आसल्यार, फुडें एक खुरीस घेवन एक फुडारी वता.

**भिस्माचो खुरीसः** भिस्मसायब आनी थोड्या धर्मीक संस्थांचे वांगडी आपल्या गळ्यांत एक खुरीस घालतात. धर्मीक संस्थेचे वांगडी लांकडाचो मुपुल्लो खुरीस गळ्यांत घालतात. पूण भिस्मसायब रुप्याचो वा भांगराचो वा लोखणाचो (स्टील) खुरीस गळ्यांतले सरपळेक घालता. असलो खुरीस घाल्ल्यान लोकांक भिस्मसायब वळखुपाक येता.

- निकोलांव पेरैरा

संदर्भ- 1. Bergeau, J. P., History of the Holy Cross, 1863; 2. Lipsius, J. De Cruce Libri III, 1593.

**खेत्रपालः** खेत्रपाल म्हळ्यार जाग्याची राखण करपी राखणदार. ताका 'क्षेत्रपाल' वा 'क्षेत्रपाळ' अशेंय म्हण्टात. क्षेत्र म्हळ्यार जागो; आनी पाल म्हळ्यार पालन करपी, राखण करपी.

ताची गणना शिवकुटूंबाची जी भैरवाच्या तोलामोलाची आनीक

गणदैवत सांगल्या तातूंत जाता. ऋग्वेदांत ताका 'क्षेत्रस्य पति' अशें म्हळां. वेदकाळांत आर्यलोक पयलीं जनावरां पोसताले. उपरांत ते शेत रोवंक लागले. जेन्ना शेताची राखण करपाची गरज पडली, तेन्ना खेत्रपाल दैवताची उत्पत्ती जाली अशें मानतात. आर्य लोकांपयलीं पूर्विल्ल्या काळांत ऋषीमुनी खेत्रपालाक, 'तूं आमच्या जनावरांची राखण कर, तूं आमचें हीत करपी जावन राव' अशी प्रार्थना करताले. हाचेवेल्यान पुराणकाळांतूय खेत्रपाल दैवत आशिल्लें वा तेन्ना ह्या दैवताक मानताले हाचो पुरावो मेळटा. कांय कडेन शेतकार शेत नांगरचे पयलीं वा शेत रोवपाच्या वेळार त्या जाग्याच्या खेत्रपालाक कोंब्याचो बळी दिवन भोवमान करताले. पूण सद्या बळी दिवपाची चाल बंद आसा. खेत्रपालाक कांय लोक देंवचार वा म्हारु म्हण्टात. कोंकणातले शेतकामती ताका खेत्री म्हण्टात. थारावीक जाग्यार सुर-रोंट (सोरो आनी तांदळाच्या वा गंवाच्या पिठाची भाकरी) दवरपाची चाल खूबकडेन दिसता. खेत्रपाल कृषीदैवत म्हणूनय मानतात. ग्रामदेव क्षेत्र म्हळ्यार गांवच्या शेतांची राखण करपी क्षेत्रपाल.

खेत्रपालाचें वेगळें अशें देवूळ खंयच आशिल्लें दिश्टी पडना. ज्या ज्या देवस्थानांत खेत्रपाल म्हूण देवाची पूजा करतात, थंय खेत्रपालाच्या नांवान एक पाशाणी चवकोनी फातर, पाशाणी लिंग अशें पुजिल्लें दिश्टी पडटा. खेत्रपालाच्यो मुर्ती चडकरुन खंयच दिश्टी पडनात. पूण कांय दुर्मिळ सुवातींनी पाशाणी आनी वस्त्र नाशिल्ले अवस्थेंत खेत्रपालाच्यो मुर्ती आसात. पूर्विल्ल्या काळांत ह्या मुर्तीच्या म्हऱ्यांत कांयच नासतालें. पूण उपरांतच्या काळांत म्हऱ्यांत कुत्रो आशिल्ल्यो मुर्ती दिसूंक लागल्यो. तशेंच ताच्या कमराभोंवतणी एक नागसर्प, उजव्या हातांत मुदगर (मोगरेचो कळो), दाव्या हातांत मनशाची तकली, अशाय नमुन्यांच्यो मुर्ती दिसूंक लागल्यो.

आगम आनी तंत्रग्रंथांत ह्या खेत्रपालाचो उल्लेख आसा. प्रयोगसार नांवाच्या ग्रंथांत खेत्रपालाची पूजा पयलीं करची आनी उपरांत शिवशंकराची पूजा करची, अशें सांगलां. तशेंच खेत्रपालाची पूजा सुर्वेक केली ना जाल्यार शिवपूजा केल्ल्यान जें फळ मेळटा तें खेत्रपाल ना करून उडयता, अशें सांगलां. दक्षिण भारतांत सगळेकडेन हो नेम पाळटात. जैन धर्माचे लोक तर खेत्रपालाक वेगळें स्वतंत्र दैवत मानतात. तांच्या मतान आनंदादी भैरव आनी चवसठ (६४) योगिनी क्षेत्रपालाचे हुकुमतींत आसात.

खेत्रपालाक जाग्याचो राखणदार म्हूण वर्साक एक खेप राखणेखातीर वेगळी मानतूक करपाक एक बकरो वा कोंबो दिवपाची चाल आसा. ज्या देवस्थानांत खेत्रपाल नांवाचें दैवत आसता, ताची पूजा हेर देवांवांगडा गंध, फूल, अक्षता घालून करतात. निवेद्य म्हूण भाकरी, वडे, नाल्लाची कातली, केळें, अन्न अशी आंगवळ केली जाल्यार दाखयतात.

डॉ. देरे हाच्या मतान ज्योतिबा, खळनाथ, नाग, हीं दैवतां लेगीत खेत्रपाळच. ताचें म्हणणें खेत्र हाचो अर्थ फकत शेतूच न्हय, बायलमनशेचें जननेंद्रिय हेंवूय एक खेत्रच (क्षेत्र). ताची राखण करता, पोशण करता तो, ताचेपसून संतानवृध्दि म्हळ्यार मनीस उत्पन्न करता, तो खेत्रपाळ. ते नदरेन रोयण हें एक खेत्रच. तें जमनीच्या सर्जनेंद्रियाचें प्रतीक आनी तातूंतलो नाग तो खेत्रपाळ.

गोंयांत खेत्रपाळ नांवाच्या देवाचें देवूळ सद्याच्या काळांत आसा, अशें आयकूंक येना. जायत्या देवांच्या देवस्थानांनी पाषाणी फातर नाजाल्यार लिंग रुपान दिश्टी पडटा. गोंयांत खेत्रपालाचीं जायतीं देवळां इ. स. सोळाव्या शेंकड्यामेरेन (सुमार १५६७ वर्सा मेरेन) आशिल्लीं जावंक जाय, हाचे पुरावे मेळटात. १५४० ते १५६७ मेरेन गोंयांत बाटाबाटीच्या वेळार देवळां, तातूंतले देव, मूर्ती मोडप असलीं कामा त्यावेळच्या राज्यकर्त्यांनीं केलीं. गोंयच्या सरकारी पुराणवस्तू पुरातत्त्व खात्यांत आशिल्ल्या कागदपत्रांत तांणी जीं देवळां मोडून उडयलीं तांची वळेरी आसा. ह्या खात्याचो संचालक स. डॉ. पांडुरंग शणै पिसुर्लेकार हाणें ही वळेरी उजवाडायिल्ली आसा. हे वळेरेंत बारीकसाणीन पळेल्यार खेत्रपाळाचें देवूळ खंयच्या गांवांनी आशिल्लें, तें समजता. तिसवाडींतल्या आगशी, दुर्गावाडी, गोवाळी, मौळें, जुवें, मेडकुडी, धाकटी-मोरंबी, मुंर्दा ह्या गांवांत आनी साश्टीच्या आडसुली, काना, कुडतरी, दाभोळी, गिरदळी, म्हाखाजन; बारदेसच्या आसगांव, असनोडें, काणके, नांदोडे, नेरुल, शिरेडें ह्या गांवांनी खेत्रपालाचीं वट्ट वीस देवळां त्या काळांत आशिल्लीं जावंये.

**खेत्री:** कोंकणांतलो शेतकार खेत्रपालाक 'खेत्री' ह्या नांवान वळखता. गोंयांत खेत्री हाचो अर्थ वेगळे तरेन समजतात. ज्या देवस्थानांत खेत्र करतात, म्हळयार ज्या देवामुखार बोकडो, कोंबो, रेडो अशा जनावरांचे बळी दिवपाची चाल आसा, त्या देवस्थानाक वा त्या देवाक खेत्री देव म्हूण वळखतात. ह्या देवाक ताच्या जात्रे दिसा वा आयतार, बुधवार, उमास ह्या दिसा बळी दितात. बेताळ, वेताळ, खळनाथ, म्हारु, म्हारंगण, देंवचार ह्या नांवाचीं दैवतां खेत्री दैवतां म्हूण मानतात. खेत्रपाल हें खेत्री दैवताक लागींचें अशें दैवत आसा. कारण खेत्रपालाक वर्सांतल्यान एक फावट भोगावळ म्हूण एक बोकडो बळी दिवपाची चाल आसा.

- विनायक नारायण शेणवी धुमे

## खेळणीं:

ल्हान भुरग्यांचे करमणुकीखातीर जीं रंगीबेरंगी तरांतरांचीं साधनां वा उपकरणां आसतात, तांकां खेळणीं म्हण्टात.

खेळणीं तयार करपाक अश्मयुगापसून सुरवात जाली. वेगवेगळ्या वस्तुसंग्रहालयांत त्या त्या काळांतलीं खेळणीं दिसतात. ब्रिटीश संग्रहालयांत तरातरांचीं खेळणीं दिसतात. ग्रीक खेळण्यांभितर धोलपी घोडे दिसतात. तेचप्रमाण इंग्लंडांत मेळिल्ल्या कांय रोमन अवशेशांनी बावल्यांचे फर्निचर, पत्र्याचो सैनिक, मातयेच्यो, तारेच्यो वा कपड्याच्यो बावल्यो दिसतात. ऋग्वेदांत बावल्यांचो उल्लेख आसा. त्या काळांत बावल्यांचो उपेग खेळणीं म्हूण आनी अभिचार कर्माखातीर करताले. संवसारांतल्या खूब पोरन्या संस्कृतायांचें जें उत्खनन जालें तातूंत फातर, माती, लांकूड, धातू, हाडां, मोलादीक रत्नां असल्या वस्तींपसून तयार केल्लीं तरेकवार खेळणीं मेळ्ळयांत. ह्या खेळण्यांनी मनशांच्या आकृतींवांगडा गाय, बैल, हत्ती, घोडे, कुत्रे, बोकड्यो, माकडां, दुकर, वाग, शिंव, मोर, हरण असल्या जनावरांच्योय आकृती मेळ्ळयात. मोहेंजोदडो आनी हरप्पा हांगाच्या उत्खननांत मेळिल्लीं खेळणीं इ. स. प. २५०० वर्सांइतलीं पोरनीं जावन आसात. तातूंत मातयेच्यो बावल्यो आसात. पाटणा, मथुरा, कौशांबी हांगा मौर्य आनी ताच्या आदल्या काळांतलीं खेळणीं मेळ्ळयांत. तीं भाजिल्ल्या मातयेचीं जावन आसात. बावल्यो तयार करपाचे सांचेय मेळ्ळयात. कौशांबीच्या उत्खननांत बैलगाडयांची खेळणीं मेळ्ळयांत. शुंग काळांत (१८५ इ.स.प. ते ७३ इ.स.प.) मेंढरां जुंपिल्ल्या गाडयांचीं खेळणीं प्रचारांत आशिल्लीं. कुशाण काळांतल्यो बावल्यो चारुय वटांनी कोरांतिल्ल्यो मेळ्ळयात. गुप्त काळांतल्यो मातयेच्यो बावल्यो सोबीत दिसतात. त्यो लांबट चेऱ्याच्यो आनी लांब सोडिल्ल्या कोंगऱ्या केंसांच्यो बावल्यो ओडलायण्यो आसात.

बाराव्या आनी तेराव्या शेंकड्यांतल्यो घोड्यांच्यो आनी सरदारांच्यो प्रतिमा मेळ्ळयात. चवदाव्या शेंकड्याच्या एका हातबरपांत फ्रांसाचे इझाबेल हे राजकन्येची खेळांतली मोडिल्ली पवनचक्की एका शेटीन सारकी केली, असो उल्लेख मेळटा. अस्तंत जर्मनीच्या 'येना' संग्रहालयांत पंदराव्या शेंकड्यांतल्या बावल्यांच्या घराचे (डॉल्स हाऊस) कांय अवशेश दवरल्यात. अस्तंत जर्मनींत न्यूरेंबर्ग हांगा एका खेळण्यांतल्या घराचें प्रदर्शन भरिल्लें, अशें वर्णन १६३१ वर्साच्या एका पत्रांत आसा.

सतराव्या शेंकड्यांत मेळिल्ल्या खेळण्यांनी लांकडाचे घोडे, पेल्ल (बोल), पतंग, पटे, धोल, धातूचे सरदार, तांचीं चिलखतां, पितुळच्यो तोफो, कागदाची खेळणीं, लांकूड, माती, मेण हांचेपसून तयार केल्लीं खूब खेळणीं आसात. खेळणीं दोन प्रकारचीं आसातः १. थीर खेळणीं २. हालचाल करपी खेळणीं.

अठराव्या शेंकड्यांत यांत्रिक युगाखातीर स्वयंचलित खेळणीं बाजारांत आयलीं. 'मॅजिक लँटर्न' ह्याच वेळार प्रचारांत आयलो. 'जिगसॉ' आनी हेर कुवाड्यांचीं खेळणीं आयलीं. फ्रेंच राज्यक्रांतीच्या काळांत 'गिलोटीन' चीं खेळणीं आयलीं. आपल्या जाण्टेल्यांचें अनुकरण करून फ्रेंच भुरगीं व्हडल्या व्हडल्या लोकांच्यो तकल्यो मारपाचो भयांकृत खेळ खेळटालीं. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत नव्या शास्त्रीय सोदांचो वापर करून नवीं खेळणीं तयार जालीं. ह्या खेळण्यांक शास्त्रीय उतरांसारकीं कठीण नांवां दिवपाची प्रथा जाली. नामनेचो शास्त्रज्ञ फॅरडे हो भुरग्यांच्या खेळण्यांक सगळयांत मोट्यो तत्त्वगिन्यानाच्यो वस्तू म्हण्टा. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत जर्मनी देशाचो खेळणीं तयार करपाक पयलो क्रमांक लागतालो. पयल्या म्हाझुजाउपरांत लेगीत १० ते १२ वर्सां जर्मनीच अमेरिकेक खेळण्यांची निर्यात करतालो. पूण १९२९ ते १९४१ ह्या काळांत जपानान जर्मनीचेर मात केली. आयज खेळण्यांच्या उत्पादनांत संवसारांत जपानचो पयलो क्रमांक लागता. अमेरिकेंत प्लास्टिकचीं खेळणीं १९३० वर्सासावन तयार करपाक सुरवात जाली. प्लास्टिकचीं खेळणीं सवाय मोलांत विकप शक्य जालें.

भारतांत खेळण्यांचें उत्पादन खूब पोरन्या काळासावन चलत आयलां, अशें सिंधु-गंगाच्या देगणांतल्या आनी कोसाम, सारनाथ, बक्सार, राजघाट, अहिच्छत्र, रंगमती, अरिकामेडू (पाँडिचेरी), म्हैसूरांतली चंद्रवली आनी ब्रह्मगिरी, अमरावती, नागार्जुनकोंडा हांगाच्या उत्खननांत मेळिल्ल्या सोबीत-सुंदर खेळण्यांवयल्यान दिसून येता.

भारतांत तयार केल्ल्या बावल्यांनी आनी खेळण्यांनी त्या त्या प्रांताचीं खाशेलेपणां दिसून येतात. ऊंची कपडे आनी परंपरागत वस्तींनी सजयल्ल्यो भरतपूर (राजस्थान)च्यो बावल्यो सुंदर दिसतात. तांबड्या आनी निळ्या पोशाखांतल्यो बंगाली बाबूंच्यो बावल्यो सोबीत दिसतात. महाराष्ट्रांतल्या भुरग्यांक किल्ल्याचीं खेळणीं इतिहासाचो उगडास करून दितात. बनारस आनी मथुरेचीं खेळणीं पुराणांतल्या राधा-कृष्णाची याद करून दितात. गुजरातांत आनी मध्य प्रदेशांत कृष्णकथेचेर आदारिल्लीं सुंदर खेळणीं मेळटात. राजस्थानचे ऊंट, मणिपूरची नृत्यांगना, दक्षिण भारतांतलो हत्ती, बैलगाडी आनी टांग्याचो तट्टू, मद्रास-म्हैसूरच्या चलयांच्यो बावल्यो, बंगालांतलो गवय, जनावरां हांच्या आकाराचीं खेळणीं आनी बावल्यो खूब लोकप्रिय जाल्यात.

भारतांत मातयेच्यो मूर्ती, बावल्यो आनी खेळणीं उत्तर प्रदेश, महाराष्ट्र, सावंतवाडी, आग्रा, लखनौ, बेळगांव, कृष्णनगर, कलकत्ता, पुणे हांगा तयार करतात. रंगीत लांकडाच्यो आनी पितूळच्यो मूर्ती, बावल्यो आनी खेळणीं बनारस, मदुराई, बेल्लारी, हैदराबाद हांगा करतात. कपड्याच्यो बावल्यो सुंदर दिसतात. मेणाच्यो बावल्यो अस्तंत बंगालांत करतात. वेळेवयल्या घुलांच्योय बावल्यो करतात. सापशिडी, बुद्धिबळ, चेकर्स, कुवाडीं, पट असल्या खेळण्यांक लागून भुरग्यांची मानसिक आनी बौद्धिक शक्त वाडीक लागता. ल्हान भुरग्यांच्या पाळण्याक तरेकवार बावल्यो आनी खेळणीं बांदतात, जाचेवरवीं भुरगें खेळटा आनी ताची करमणूक जाता.

आर्विल्ल्या काळांत कोर्दीवेलीं, चलपी, हालपी, उलोवपी, आवाज करपी यांत्रिक खेळणीं आयल्यांत. हालींच्या काळांत भुरग्यांक इलेक्ट्रोनिक खेळण्यांची ओड लागल्या. खेळणीं भुरग्यांखातीर जरी आसलीं, तरीकूय जाण्टयांक लेगीत कांय खेळणीं मानवतात. खेळणीं भुरग्यांची करमणूक करपावांगडा तांच्यांत जिज्ञासा तयार करतात. तांची कल्पनाशक्त वाडयता आनी तांची सर्वांगीण उदरगत सादतात.

- कों. विं. सं. मं.

**खोकली (खांक):** ताळ्याक वा सकयल्या उस्वास घेवपाच्या इंद्रियांक कसलीय आडखळ जाली जाल्यार ताळ्यांतलो वारो भायर सोडपाखातीर म्हूण आमची कूड हवा भायर घालपाखातीर नेट लायता. ह्या नेटावरवीं हवा भायर सरतना जो आवाज जाता, ताका 'खोकली' म्हण्टात. खोकली हो रोग नासून तें एक रोगाचें लक्षण जावन आसा.

खोकली एकेक फावट सुकी येता वा एके फावट धरकलासयत येता. ताळो कुचकुचल्यार, फुफ्फुसाचें वेश्टावण (Pleura), तशेंच जठराच्या दुयेंसाक लागून लेगीत सुकी खोंकली येवंक शकता. जेन्ना मनशाक थंडी जाता तेन्ना ताचे खोकलेंतल्यान थंडेचे रोगजंतू भायर पडटात. ह्या जंतूंक लागून दुसऱ्याक थंडी जाता आनी खोकली येवपाक लागता. 'व्हायरस' जातीच्या रोगजंतूपसून थंडी जाता. चार-पाच दीस खोंकली येवन ती आपशींच बंद जाता. सुर्वेक शिंको येतात, ताळो दुखूंक लागता, नाक चोंदता तशेंच मात्सो जोर येवंक शकता. हो व्हायरस अतिसूक्ष्मदर्शक यंत्रानूच म्हळ्यार Electron Microscope च्या आदारानूच दिसता. थंडी, कोलेखोंकली, क्षयरोग, ब्राँकायटीस आनी फुफ्फुसाचो कॅन्सर ह्या रोगांक लागून खोंकलेचो त्रास जावं येता. ह्या सगळ्या रोगांचे जंतू स्वासावांगडा नाकांतल्यान भितर वतात आनी मागीर स्वासाच्या इंद्रियांच्या वाठारांत आपलें घर करतात आनी थंयच वाडटात. जो रोग मनशाक जाला त्या रोगाचे रोगजंतू खोकलेंतल्यान भायर पडटात आनी हे रोग चडशे वश्याचे जाल्ल्यान दुसऱ्यांक जावं येता. देखून खोकली येता तेन्ना दुसऱ्यामुखार खांकचें न्हय, हाची जतनाय घेवंक जाय. सिगार, विडी चड ओडटात, तांकां हे रोग चड प्रमाणांत जातात. तशेंच कोळशाच्यो खणी वा हेर खणींचेर वावुरपी लोकांमदीय ह्या रोगांचें प्रमाण चड दिसून येता.

बारीक जोर (टी.बी.) गोंयांतूय गांवगिऱ्या वाठारांनी खूब प्रमाणांत दिसून येता. पंदरा दिसांवयर खोंकली येत जाल्यार टी. बी. चो दुभाव घेवन वायटकाराची थुकी (धरकल) तपासूंक जाय. जर खोकलेचे थुकयेंत क्षयरोगाचे रोगजंतू मेळ्ळे जाल्यार ताचेर रोखड्या-रोखडो उपचार सुरू करूंक जाय. हड्ड्याचो फोटो (chest X-Ray) काडीत जाल्यारूय क्षयरोग जाला काय ना, हें कळटा. चाळीस वर्सां पिरायेवयले जे मनीस सिगार वा विडी ओडटात आनी जांकां खोकली येता, तांणी रोखडीच खोकली तपासून घेवंक जाय; तशेंच हड्ड्याचो फोटो काडून घेवंक जाय. तांकां क्षयरोग वा Chronic Bronchitis हो रोग जाल्लो आसूं येता. हीं दुयेंसां चड काळाचीं आसत जाल्यार मागीर खोकलेंतल्यान रगत पडूंक लागता. हाका इंग्लिशींत 'हेमोप्टीझीस्' म्हण्टात.

'कोलेखोकली' ह्या रोगांत खांकता आसतना एक वेगळोच आवाज येता. ह्या रोगाक लागून वायटकाराक तीन-चार म्हयने खोंकली येत रावता. कोलेखोकली आनी टी. बी. ह्या दोनूय रोगांचेर बरें प्रभावी वासीन आसा. क्षयरोगाचेर बी. सी. जी. हें वासीन भुरगें जल्माक येतकच देड ते दोन म्हयन्यांभितर करूंक जाय. बी. सी. जी. वासीनांचो एकूच डोस दिल्यार पुरो जाता. कोलेखोकलेचें वासीन आनीक दोन रोगांच्या वासीना सांगाताक येता. कांटेल वा घटसर्प (diphtheria), कोलेखोकली आनी धोणकुटी (धनुर्वात) ह्या तीनूय रोगांचेर 'ट्रिपल' हें वासीन तीन डोझींनी करतात. देड म्हयन्यांचेर पयलो डोस, अडेज म्हयन्यांचेर दुसरो डोस आनी साडेतीन म्हयन्यांचेर तिसरो डोस दितात. तेभायर भुरगें देड वर्साचें आनी साडेचार वर्सांचें जातकच मागीर ताका 'बूस्टर' दितात.

खोकली येवपाचें आनीक एक कारण म्हळ्यार 'येवझीनोफिलिया' हें दुयेंस. हें दुयेंस ॲलर्जीक (allergy) लागून जाता. भारतांत हे ॲलर्जीचें कारण चड करून दंतांचीं आनी हत्तीरोगाचीं बारीक-बारीक पिलां हें जावन आसा. रगतांत ज्यो धव्यो पेशी आसतात, तातूंतल्यो 'येवझीनोफील' ह्यो वाडत जाल्यार हो रोग जाता. सुकी खोकली येवप हें हाचें एक मुखेल लक्षण. जेन्ना चड करून सुकी खोकली येता तेन्ना रगत तपासून जर 'येवझीनोफिलीया' आसत जाल्यार ताचेर 'दियेथीलकार्बामाझीन' हें वखद दितात. ह्या वखदान खोकली थांबता. हाच्या वांगडाच दंतांचें वखदूय दिवंचें पडटा.

**उपायः** खोकली थंडेक लागून जाल्या आसत जाल्यार ताचेर गुळयो, शारोप, चोखपाच्यो गुळयो हाचेसारकीं वखदां घेतात. मीठाच्या उदकाचे गळगळे घेत जाल्यार एकेक फावट खोकली थांबता. कसाय वा आयुर्वेदीक गुळयो घेतल्यारूय थंडेचे खोकलेचेर गूण पडटा. टी. बी. लागून उप्रासपी खोकलेचेर 'स्ट्रेप्टोमीसीन', 'अल यन् यच्',

'थायसेताझोन', 'रिफापीसीन' ह्यो गुळयो घेतात. चाळीस वर्सां पिराये वयल्या मनशाक फुफ्फुसाचो कॅन्सर जावन खोकलेचो त्रास जावं येता. अशा वेळार हड्ड्याचो फोटो तशेंच धरकलांत कॅन्सराच्यो पेशी आसात काय ना हें तपासून वा Bronchoscopy वरवीं ल्हान कुडको काडून (Biopsy) कॅन्सराचें निदान करूं येता. हें दुयेंस सिगार, विडी ओडपी मनशांक चड प्रमाणांत जाता. Chronic Bronchitis तशेंच न्युमोनिया (pneumonia) ह्या रोगांचेर फाव तीं 'अँटिबायोटिक्स' वखदां दिवन उपचार करूंक जाय. हीं वखदां रोगजंतू मारून उडयतात वा तांची वाड जावंक दिनात. 'पेनिसिलीन' ह्या वखदाचो सोद लागत पसून असल्या रोगांचेर उपचार करप सोपें जालां.

- डॉ. भिकाजी घाणेकार

**खोजा:** एक इस्लामी पंथ. खोजा हें उतर फार्सी भाशेंतल्या 'ख्वाजा' ('सरदार' वा 'ठकूर') ह्या उतरावेल्यान आयलां. खोजांचे तीन प्रकार आसात. १. खोजा म्हूण वळखतात ते आगाखानाचे अनुयायी; चडशे निझारी इस्माइली लोक, २. सुन्नी खोजा; हे मुंबय रावतात. ३. इष्ना अशारी खोजा; हे मुंबय आनी झांजीबार हांगा रावतात.

इस्माइली लोकांत पीर सदर अल्-दीन ह्या इस्माइली पंथाच्या मिशनऱ्याक लागून चवदाव्या शेंकड्यांत धर्मांतर केल्ल्या कच्छी आनी लोहाणा लोकांक लेगीत आयज खोजा म्हूण वळखतात. तांची आवयभास गुजराती. चालू शेंकड्याचे सुर्वेक आगाखानांच्या यत्नांक लागून इस्माइली खोजांनी मुस्लिम कायदो मानलो. आगाखान हे तांचे धर्मगुरू. खोजा लोक हेर धर्माच्या लोकांक आपलेभितर आपणावन घेनात. खोजा लोक आपल्या जमातखान्याचो (दिवाणखान्याचो) उपेग मशिदीभशेन करतात. तांच्या एकजिनसी समाजीक संघटनेचेर आगाखान नियंत्रण दवरता. संघटनेचे कांय प्रतिनिधी लोक वेंचून काडटात, जाल्यार हेर प्रतिनिधी आगाखान नेमतात.

खोजांची वसती मुंबय, कच्छ, सौराष्ट्र, सिंध, गुजरात, झांझिबार आनी उर्देंत आफ्रिकेंत आसा. चडशे खोजा लोक वेपारधंदो करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**खोबरें (कातली):** नाल्लांतल्या गराक वा म्होवल्याक खोबरें म्हण्टात. सादारणपणान सुकयल्ल्या नाल्लांतल्या म्होवल्याक खोबरें म्हण्टात आनी ओल्या नाल्लाच्या म्होवल्याक कातली म्हण्टात.

नाल्ल पिकपी वाठारांतल्या लोकांक आपले गरजेइतलो नाल्ल मेळिल्ल्यान नाल्ल वा खोबरें सांठोवप आनी ताची निर्गत करप हाची गरज दिसलीना. पूण १८६० वर्सा उत्तर युरोपांत दुदावरवीं मेळपी चरबेंत तूट आयली, जाका लागून जेवण खाणाक लागपी तेल, लोणी ह्या वस्तूंच्या जाग्यार खोबरेलाचो वापर जावपाक लागलो. वयले घडणुकेक लागून खोबऱ्याक म्हत्व आयलें, जें आयजमेरेन तिगून उरलां. अस्तंत युरोपांतूय खोबरेलाचो वापर व्हड प्रमाणांत जातालो. १९१० उपरांत अमेरिकेंत खोबरेल तेलाचो वापर वाडपाक लागलो.

नाल्लांत, ताच्या वजनाचें २८% ओलें खोबरें, ५०% उदक, ३०-४०% तेल आसता. नाल्लाच्या उत्पादनांतलो बरोच वांटो खोबरें करपाक वापरतात. खोबऱ्यासावन खोबरेल तेल काडपाचो उद्देग व्हड प्रमाणांत चलता. खोबरेल तेल हें खावपाचें तेल आसून विंगडविंगड सौंदर्य प्रसाधनां खातीरूय ताचो वापर जाता. भाजी, हुमण, चटणी आनी पक्वान्नांत ओलें खोबरें वापरतात. पूण ते दोन दिसां वयर चड काळ तिगना. सुकयिल्लें खोबरें चड काळ तिगता. तें फोडिल्ले आनी न फोडिल्ले अवस्थेंत बाजारांत मेळटा. अशा खोबऱ्याचो उपेग मिठाय, गोड पक्वान्नां करपाखातीर जाता. धर्मीक विधींतूय खोबऱ्याक खाशेलो मान आसता.

**उत्पादनः**

बऱ्या पांवड्याचें खोबरें तयार करपाखातीर जायत्यो प्रक्रिया कराच्यो पडटात. देशांत खोबरें करपाच्यो पध्दती वेगवेगळयो आसात. नाल्ल काडटकच कांय दीस सांठोवन दवरपाची पध्दत भारत-श्रीलंकेंत आसा. खोबरें करतासतना नाल्लाची साल काडपाचें काम चाकवान करतात. हाका 'नाल्ल सोलप' अशें म्हण्टात. कांय कडेन नाल्ल सोलनासतना कुराडीन फोडून खोबरें करतात. नाल्ल सोलपाची यांत्रिक साधनां आसून लेगीत चडशेकडेन हें काम हातांनीच करतात. फोडिल्लें खोबरें करतासतना नाल्ल चाकवान आडवो फोडून दोन वांटे करतात. खोबरें वतांत सुकोवपाची पध्दत सगळ्यांत पोरनी आसून आयजूय चडशा जाग्यांनी हीच पध्दत चलता. हे पध्दतीवरवीं बरे प्रतीचें हावें खोबरें मेळटा. हे पध्दतींत फोडिल्ले नाल्ल निवळ जमनीर खोबऱ्याची वट वताकडेन करून पातळावन दवरतात. दोन-तीन दीस वतांत दवरतकच खोबरें कट्टेसावन सुट्टा. मागीर खोबऱ्याचीं वळीं ४-५ दीस पर्यंन सुकयतात. बऱ्या पांवड्याचें खोबरें घडोवपाखातीर, खोबऱ्याचीं वळीं सेगीत सात दीस सुकयतात.

हून वाऱ्याच्या झोतान खोबरें सुकोवपाची पध्दत सगळ्यांत पयलीं भारतांत आनी सामोआ जुंव्यांत वापरताले. हे पध्दतींत खोबरें एका गरम बोगद्यांतल्यान फुडें वता आनी तातूंत उरफाटे दिकेन येवपी गरम वाऱ्याचो झोत सोडटात. हो झोत खोबऱ्यांतलो उदकाचो अंश ना करता. हे पध्दतीन केल्लें खोबरें धवें आनी वतांत सुकोवन तयार केल्ल्या खोबऱ्यापरस ऊंच पांवड्याचें आसता.

**खोबरेल तेलः** भारताच्या खोबऱ्याच्या उत्पादनांतलें ८०% खोबरें तेल काडपाखातीर वापरतात. सादे घाणे, घुंवपी घाणे आनी एक्सपेलर हाच्या आदारान खोबऱ्याचें तेल काडटात. सादे घाणे घाण्याबैल वा गाडवां ओडटात. मनशांनी ओडपाचेय कांय घाणे आसात.

**पेंडः** खोबरेल तेल काडटकच उरपी पेंडींत ५% ते ७% तेल आनी १९%-२१% प्रथिनां आसतात. दूद दिवपी वा कश्ट करपी जनावरांच्या आंगाक घटसाण मेळची म्हूण पेंड खावपाक दितात. कांय थोड्या प्रमाणांत कार्बनी (सेंद्रिय) सारें म्हणूनय पेंडीचो उपेग जाता.

**भारतांतलें उत्पादनः** केरळ, कर्नाटक ह्या नाल्ल पिकोवपी राज्यांनी, खोबऱ्याचें उत्पादन चड प्रमाणांत जाता. केरळांत खोबऱ्याचो तेल काडपाखातीर चड उपेग जाता, तर कर्नाटकांत तयार जाल्लें खोबरें खावपाखातीर वापरतात. आंध्र प्रदेश, तमिळनाडू, अंदमान आनी निकोबार, लक्षद्वीप जुंवो, गोंय हांगा खोबऱ्याचें उण्या प्रमाणांत उत्पादन जाता.

मुंबय शार आनी केरळांतली अलेप्पी, कोचीन आनी कालिकत हीं शारां खोबरेल तेलाचें उत्पादन करपी भारतांतलीं मुखेल केंद्रां आसात.

गोंयांतूय व्हड प्रमाणांत नाल्लाचें उत्पादन जाल्ल्यान, हांगां खोबऱ्याचो वापर खूब प्रमाणांत जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**खोरज, खोरूज (Scabies):** पळेयातः कात-२

**खोराना, हरगोविंदः** (जल्मः ९ जानेवारी १९२२, रातपूर-पाकिस्तान).

नामनेचो जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ताणें बी.एससी. मेरेनचें शिक्षण मुलतानांतल्या डी. ए. व्ही. महाविद्यालयांत घेतलें. तेउपरांत पंजाब विद्यापीठांतल्यान १९४५ त रसायनशास्त्र हो विशय घेवन तो एम्. एससी. जालो. १९४८ त ताणें लिव्हरपूल (इंग्लंड) हांगा ए. रॉबर्टसन हाच्या मार्गदर्शनाखाला संशोधन करून पी. एच्डी. पदवी मेळयली. १९४८-४९ ह्या वर्सा भारत सरकारचो पदव्युत्तर फॅलो म्हूण ताणें व्ही. प्रेलॉग हाच्या वांगडा झुरिक हांगा 'स्विस फॅडरल इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजी' हातूंत संशोधनकार्य सुरू केलें. फुडलीं दोन वर्सां ताणें नफील्ड फॅलो म्हूण केंब्रिज विद्यापीठांत अलेक्झांडर टॉड हाच्यावांगडा संशोधनकार्य केलें.

१९५२ वर्सा ताची 'ब्रिटीश कोलंबिया रिसर्च कौन्सिल' हांगाच्या कार्बनी रसायनशास्त्र गटाचो मुखेल म्हूण नेमणूक जाली. थंयच्या

विद्यापीठांतल्या फॅकल्टी ऑफ ग्रॅज्युएट स्टडीचो संशोधक प्राध्यापक म्हूण ताणें काम सुरू केलें. १९६० त तो संशोधन गट मुखेल आनी प्राध्यापक म्हूण मॅडिसन हांगा विसकॉन्सिन विद्यापीठांत 'इन्स्टिट्यूट ऑफ एंझाइम रिसर्च' हे संस्थेंत गेलो. १९६२ त, तो विसकॉन्सिन विद्यापीठांत जीवरसायनशास्त्राचो प्राध्यापक जालो आनी १९६४ त जीवशास्त्र विभागाचो मुखेल प्राध्यापक जालो. १९६८ सावन तो रॉकफेलर विद्यापीठाचो अभ्यागत अधिव्याख्यातो आसा. १९६६ त ताणें अमेरिकेचें नागरिकत्व मेळयलें. सद्या तो विसकॉन्सिन विद्यापीठाच्या मॅडिसन हांगाच्या 'इन्स्टिट्यूट ऑफ एंझाइम रिसर्च' हे संस्थेचो सहसंचालक म्हूण काम पळेता.

ताणें रेणवीय विज्ञानांत केल्ल्या संशोधनाक लागून आनुवंशिकतेंतल्या रहस्याचेर खूब उजवाड पडला. पेप्टाइड, प्रथिन, जीवविज्ञानांतलीं म्हत्वाचीं फॉस्फेटां ईस्टर हांच्या रसायनीक संशोधनाखातीर तो नामनेक पावलो. ताचें खास संशोधन को-एंझाइम ए न्यूक्लिओटाइड आनी पॉलिन्यूक्लिओटाइड, R.N.A आनी D.N.A. हांच्यासारक्या न्यूक्लिइक अम्लांचे रसायनीक संश्लेशण आनी संरचना हांचेविशीं जावन आसा. कोशिकांच्या (पेशींच्या) कार्याचें संचलन करपी जनुकां (genes), भिन्न जीवरसायनीक विक्रियांवरवीं कोशिकांचेर आनी जनुकांचेर सांठयल्ली म्हायती कोशिकांच्या क्रियांमेरेन कशीं पावयतात हाची विस्कटावणी करपाक ताका यश आयलें. हे विस्कटावणेचो उपेग आनुवंशिकतेची यंत्रणा समजुपाक जाता. ह्या मळार मोलाची कामगिरी केल्या म्हूण १९६८ वर्साचो नोबेल पुरस्कार एम्. डब्ल्यू. निरेनबर्ग, रॉबर्ट हॉली आनी खोराना ह्या तिगांक वांटून मेळ्ळो.

खोराना हाका जनू १९६९ त, निर्जीव रसायनापसून प्रयोगशाळेंत जनुक तयार करपाक यश आयलें. D.N.A. हो जनुकाचो म्हत्वाचो घटक. हाच्या रेणूंचे संदेश कोशिकांमेरेन पावोवपाचें काम R.N.A. रेणू करतात. हे रेणू तयार करपाखातीर लागपी 'रेणूंतली न्यूक्लिओटाइड घटक जोडपाची पध्दत' खोरानान सोदून काडली. संश्लेशणान जनुक तयार करपाखातीर पयलीं ताणें चार मूलभूत न्यूक्लिओटाइड सादे पध्दतीन तयार केले आनी उपरांत ७७ न्यूक्लिओटाइड एकठांय गुंथून पयलें मानवनिर्मित जनुक तयार केलें. हें जनुक म्हळयार यीस्टच्या कोशिकेंत दिसून येवपी 'ॲलॅमीन ट्रॅन्स्फरR.N.A.' जनुक.

'केमिकल इन्स्टिट्यूट ऑफ कॅनडा'चो मर्क पुरस्कार (१९५८), 'प्रोफेशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ कॅनेडियन पब्लिक सर्व्हिसेस'चें भांगरा-पदक (१९६०), 'गॉटिंगेन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेस'चो हाइनमान पुरस्कार (१९६७) हे भोवमान ताका फाव जाल्यात. भारत सरकारान ताका पद्मभूषण (१९६३) हो किताब दिवन ताच्या वावराचो भोवमान केला. संवसारांतल्या वेगवेगळया नामनेच्या शास्त्रीय संस्थांचो तो मानादीक वांगडी आसा.

- कों. विं. सं. मं.

## ख्मेर (कांपूचिया/कंबोडिया) :

ख्मेर प्रजासत्ताक. आग्नेय आशियांतलें एक राश्ट्र. क्षेत्रफळ १,८१,००० चौ. किमी. लोकसंख्या: ७४,६९,००० (१९८६). हाचे उत्तरेवटेन थायलंड आनी लाओस, उदेंतेक दक्षिण व्हिएतनाम, दक्षिणेक दक्षिण व्हिएतनाम आनी सयामचें आखात आनी अस्तंतेक सयामचें आखात आनी थायलंड आसा. न्यॉमपेन ही ह्या देशाची राजधानी.

**भूंयवर्णनः** ख्मेरचो मदलो वाठार सकयल आसा. हेर कडेन चडशे दोंगर आनी पर्वत आसात. उत्तरेवटेन थायलंडचे शिमेर सुमार ६०० मी. उंचायेचो डांग्रेफ पर्वत आसा. दक्षिणेवटेन ऊंच दोंगरातेमकां आसात. हांगा ह्या वाठारांतलें सगळयांत ऊंच दोंगरातेमक मावंट आराल १,८१३ मी. उंचायेचें आसा. दर्यादिग सपाट आसा.

देशांतली मुखेल न्हंय म्हळयार मॅकाँग. हे न्हंयेक गिमाच्या दिसांनी तिबेटच्या पठारावयलो बर्फ वितळिल्ल्यान आनी मे ते सप्टेंबर ह्या काळांत पडपी पावसाक लागून हुंवार येता. काँग, सन, स्रेपॉक, सी, स्टुंग मेन ह्यो हांगाच्यो हेर न्हंयो आसून त्यो मॅकाँग न्हंयेक मेळटात.

**हवामानः** ह्या देशाचें हवामान उश्ण. एप्रिलांत तापमान सुमार ३०° ते ३५° से. आनी जानेवारींत २५° से. आसता. फेब्रुवारी ते एप्रिल मेरेन बरीच उश्णताय आसता. ह्या काळांत वादळांय जातात. मे म्हयन्यांत फकत कांय दीस पावस पडटा आनी पर्थून जुलय-ऑगस्ट उपरांत सप्टेंबरांत पावस सुरू जाता. डिसेंबर-जानेवारींत ईशान्येवटेनच्यान थंड वारें येता. ताका लागून दक्षिणेवटेनच्या पर्वतांचेर पावस पडटा. उदेंत ख्मेरच्या ऊंच वाठारांनी सुमार २०० सेंमी. पावस पडटा, जाल्यार दक्षिणेवटेनच्या पर्वतांचेर सुमार ४०० सेंमी. पावस पडटा. दर्यादिगांचेर भरपूर पावस पडटा. हुंवार ही हांगाची वर्सावळीची सैमीक आपत्ती जावन आसा. हुंवाराचो हांगाच्या लोकांच्या जिविताचेर बरोच परिणाम जाता. हुंवाराक लागून उंचेल्या वाठारांतल्यान माती व्हांवन येता आनी ती पिकावळीखातीर बरीच उपेगी थारता.

**वनस्पत आनी मोनजातः** ख्मेरची सुमार अर्दी भूंय रानांनी भरल्या. थंय बांबू, बेत आनी हेर मोलादीक लांकडांचे रुख आसात. ताड, माड, केळीं, रबर, मोसंबी, मिरयां असली बरीच वनस्पत हांगा जाता. हत्ती, रानबैल, चित्तो, बिबटो वाग, वांस्वेल हे सारके प्राणी आनी हेरॉन, बकीं, ग्राउस, महोका, मोर, पेलिकन, करढोक, ईग्रेट, रानबदक हीं हांगाचीं मुखेल सुकणीं आसात.

**इतिहासः** ह्या देशाची सगळयांत पोरनी नोंद पयल्या शतमानांतल्या चिनी साहित्यांत सांपडटा. ह्या राज्यांत थायलंड, मलाया, कोचीन चायना (दक्षिण व्हिएतनाम) आनी लाओस हांच्या कांय वाठारांचो आस्पाव जातालो. त्या काळांत बरेचशे भारतीय लोक दर्या-मार्गांतल्यान हांगा येताले. ह्या लोकांमदल्या एका ब्राह्मणाचें हांगाच्या थळाव्या मुखेल्याचे धुवेकडेन लग्न जाल्याउपरांत ह्या राज्याची थापणूक जाली, अशी एक दंतकथा आसा. ह्या राज्याचो भारत आनी चीन हांचेलागीं वेपार चलतालो. सव्या शतमानांत थंय चेन-ला हें ख्मेरांचें राज्य आयलें. भारत आनी हांगाच्या लोकांच्या लग्नासंबंदांतल्यान जी प्रजा निर्माण जाली, ती हांगा सत्ता चलोवपाइतली बळिश्ट जाली. चेन-ला हांगाचो भाववर्मन हो तेन्ना राजा जालो. ताणेंच ख्मेर साम्राज्याची बुन्याद घाली, अशें चडशा इतिहासकारांचें मत आसा. ताचे उपरांत त्या घराण्यांतले राजा व्हडलेशे बळिश्ट नाशिल्ल्यान चेन-ला राज्याचेर हेर कडल्या राजांनी शेक गाजोवंक सुरवात केली. इ. स. ८०२-५० ह्या काळांत जयवर्मन् हो ह्या घराण्यांतलो एक धीराचो राजा सत्तेर आयलो आनी ताणें आपल्या दुस्मानांचेर जैत मेळोवन राज्याचो विस्तार केलो. ताणें आपली राजधानी अंकोर वाठारांत निर्मिली. ताचेउपरांत आयिल्ल्या राजांनी हांगा व्हड शिल्पां आनी यादस्तिकां उबारलीं. दुसरो सूर्यवर्मन (१११३-४५) हाच्या काळांत ह्या राज्याची उदरगत तेंगशेर पाविल्ली, अशें इतिहासकारांचें मत आसा. ताणें अंकोरवांत हांगा बरीच बांदावळ केली. फुडें भितरलीं झगडीं, दुबळे राजा आनी बौध्द धर्माच्या तत्त्वांवरवीं क्षात्रतेजाचो नाश ह्या कारणांक लागून ह्या राज्याची शक्त उणी जाली. पूण पर्थून सातवो जयवर्मन् (११८१-१२१८) ह्या राजान आपल्या गुणांच्या नेटार राज्याचो चड विस्तार केलो. तेराव्या आनी चवदाव्या शतमानांत थाई आनी चाम लोक बळिश्ट जाले. तांकां गोंगोल लोकांनीय फाटबळ दिलें आनी ख्मेरांचें राज्य दुबळें जालें. १३६९, १३८८ आनी १४३१ त थाई लोकांनी अंकोराचेर जैत मेळयलें आनी ख्मेरांक आपली राजधानी न्यॉमपेन हांगा हालोवची पडली. ह्या सगळया बोवाळांत तांची शक्त सामकीच उणी जाली.

सोळाव्या शतमानाच्या शेवटाक पोर्तुगाल आनी स्पेन हांणी हांगा आपली वसणूक निर्माण करपाचो यत्न केलो. पूण तो फळादीक जालो ना. १८६२ त फ्रेंचांनी दक्षिण व्हिएतनामांत आपले सत्तेची थापणूक केली आनी उपरांत ती कंबोडियामेरेन पातळायली. १८६३ त हांगाचो राजा पयलो नरोदम (१८५९-१९०४) हाणें फ्रेंचांचे राखणेखाल रावपाक मान्यताय दिली. सयामचें राज्यूय ह्या वाठाराचेर आपलो हक्क सांगतालें,




पूण निमाणें १८६७ त तांणीय हांगाचे फ्रेंच सत्तेक मान्यताय दिली. १८६६ आनी १८८५ त फ्रेंचांआड कंबोडियांत उठाव जाले, पूण फ्रेंचांनी ते सहजतायेन मोडले. १८६६ त, राजधानी प्नॉमपेन हांगाच सासणाखातीर दवरपाचें थारलें. १८८७ त कंबोडिया, फ्रेंच गव्हर्नर जनरलच्या नियंत्रणाखाल आयलो. नरोदमच्या मरणा उपरांत ताच्या पुताक कुशीक दवरून फ्रेंचांनी ताचो भाव सिसोवाथ हाका राजा केलो. १९२७ त ताचो पूत मानिव्हाँग राजा जालो आनी ताचे उपरांत ताचो नातू नरोदम सिहनूक १९४१ त राजगादयेर बसलो. इतले मजगतीं १९०७ त फ्रेंच आनी कंबोडियन चेंपणाक लागून सयामाक कंबोडियाचे बळकायल्ले प्रांत पर्थून दिवचे पडले. दुसऱ्या म्हाझुजावेळार १९४१ त जपानान ते सयामाचे सुवादीन केले, पूण पर्थून १९४६ त ते कंबोडियाक मेळ्ळे.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत कंबोडियान फ्रेंचांचे राखणेखाल रावंक न्हयकार दिलो. फ्रांस आनी जपान ह्या दोनूय देशांच्या सत्तेखाल थंयची राजेशाय तिगून उरिल्ली. १९४७ त तिका संविधानीक राजसत्तेचें स्वरूप आयलें. ह्या काळांत 'ख्मेर इसाराक' (स्वतंत्र कंबोडिया) नांवाच्या पक्षाची थापणूक जाली. तांणी राजसत्तेक बादा हाडिनासतना फ्रेंचांक विरोध करपाचें धोरण आपणायलें. व्हिएतनामविशींचो प्रस्न सोडोवंक लक्ष घाल्यान फ्रेंचांनी १९४९ त कंबोडियाक तात्पुरती स्वतंत्रताय दिली. १९५० त उत्तर व्हिएतनामांतल्या व्हिएटमिन्ह कम्युनिस्टांनी हांगा आपले पांय रोमूंक सुरवात केली. १८५४ त जिनीव्हा हांगा जाल्ले परिशदेंत फ्रेंच आनी व्हिएटमिन्ह ह्या दोगांयनी थंयसावन पर्थून वचचें अशें थारलें.

१९५५ त नरोदम सिहनूक हाणें राजपद सोडलें आनी हांगा वेंचणुको जाल्यो. सप्टेंबर १९५५ त नरोदम सिंहनूक मुखेल प्रधान म्हूण वेंचून आयलो. ताणें फ्रेंचांवांगडचे संबंद पुरायपणान तोडले आनी कंबोडिया एक स्वतंत्र राश्ट्र म्हूण अस्तित्वांत आयलें. अमेरिका, रशिया, चीन, चेकोस्लोव्हाकिया, फ्रांस आनी जपान ह्या सारक्या देशांचो पालव मेळोवन ताणें आपली अर्थीक स्थिती सुदारली. पूण शिमेविशीं वाद, झगडीं हातूंतल्यान थायलंड आनी दक्षिण व्हिएतनामावांगडचे कंबोडियाचे संबंद इबाडूंक लागले. १९६३ त कंबोडियांत बंडाक फाटबळ दिल्याचो आरोप करून १९६५ त कंबोडियान अमेरिकेलागचे संबंद तोडले. १९६६ तल्या वेंचणुकांनी सिहनूक हाचो पराभव जावन लॉन नोल प्रधानमंत्री जालो; पूण १९६७ ताच्या आड दावे विचारसरणेच्या कम्युनिस्टांनी बंड केलें. सिहनूक हाणें तात्पुरतीं देशाचीं सूत्रां आपल्या हातांत घेतलीं आनी बंद मोडपाचो यत्न केलो. कम्युनिस्टांनी 'ख्मेर रुज' हे संघटनेची थापणूक केली. १९६९ त लॉन नोल हो पर्थून प्रधानमंत्री जालो. ताणें १९७० त अमेरिकेच्या पालवान सिहनूकाची सत्ता काबार केली आनी सिहनूक हाका देशाभायर पळून वचचें पडलें. १९७२ त लॉन नोलच्या सरकारान नवें संविधान मुखार हाडलें आनी त्याच वर्सा जाल्या वेंचणुकांनी ताका जैत मेळ्ळें. १९७५ त 'ख्मेर रुज' संघटनेन बंड करून लॉन नोलाक सत्तेवयल्यान काडून उडयलो. ताका पळून वचून इंडोनेशियाचो आलाशिरो घेवचो पडलो. १९७७-७८ त व्हिएतनामान कंबोडियाचेर घुरी घाली आनी पॉल पॉट ह्या थंयच्या पंतप्रधानाक पळून वचचें पडलें. ताणें गनिमी कावो वापरून व्हिएतनामी सैन्यावांगडा झूज चालूच दवरलें. निमाणें 'ख्मेर रूज' आनी पयलींचो देशाचो मुखेल नरोदम सिहनूक हांचेमजगतीं कबलात जावन १९८२ त हांगा भरसल्ल्या सरकाराची थापणूक जाली. सद्याक हुन सेन हो हांगाचो पंतप्रधान जावन आसा आनी हेंग सामरिन हो राश्ट्रपती आसा.

**राज्यवेवस्था:** राजकी थीराय पुरायपणान न मेळिल्ल्यान हांगाची राज्यवेवस्था बरीच गुंतागुंतीची जाल्या. नवी येवपी दरेक राजवट हांगाच्या राज्यकारभारांत वेगळो बदल घेवन येता. केंद्रीय तशेंच थळावे

प्रशासन पध्दतीचेर विंगडविंगड बदल जायत आसात. सद्या सत्तेर आयिल्ल्या पंगडान कंबोडिया आनी उपरांत कांपुचिया अशें नांव आशिल्ल्या देशाचें 'ख्मेर प्रजासत्ताक' अशें नवें नांव दवरलां.

**अर्थीक स्थितीः** भात हें हांगाचें मुखेल पीक आसा. न्हंयच्या देगांचेर नाल्ल, सुपारी, लिंबू हांचे पीक येता. तंबाखू, मको, म्हशींग, सोयाबीन, तीळ, मसमी भिकणां, ताग, नीळ आनी हेर भाजीपालोय हांगा व्हडा प्रमाणांत जाता. रबर आनी मिरयांचे मळे बऱ्याच जाग्यांचेर आसात. गोरवां, दुकर, कुकडां आनी बदकां पोसपाचोय उद्येग हांगाचे लोक करतात. नुस्तेमारी हो शेतवडी इतलोच म्हत्वाचो उद्येग आसा. हांगाचे शेतकार शेतवडीवांगडा नुस्तेंय मारपाचें काम करतात. नुस्तें चडशें सरोवरांतल्यान मेळटा. नुस्तें सुकोवन विकपाचो धंदो बऱ्याच नेटान चलता.

रानांतली संपत्ती चडशी ना. कोंडे आनी बेताचें उत्पादन मात थंय बऱ्या प्रमाणांत जाता. ख्मेरांतले उद्येगधंदे हालींच्याच काळांत सुरू जाल्यात. वाहनां तयार करप, शिमीट, कागद, प्लायवूड, कपडो असले कारखाने हांगा आसात. फॉस्फेटचो कारखानोय हांगा आसा.

पर्यटनाच्या मळार जाय तशी उदरगत जाल्ली ना. ह्या देशांतल्यान रबर, तांदूळ हांची निर्यात चडशी दक्षिण व्हिएतनाम, हाँगकाँग, सिंगापूर, जपान, फ्रांस, अमेरिका ह्या देशांनी जाता. आयातीचे वेव्हार जपान, थायलंड, हाँगकाँग, फ्रांस, अमेरिका, सिंगापूर हांचेलागीं जातात. ह्या देशाक कपडो, खनिज संपत्ती, रसायनां, प्रसाधनां हांची आयात करची पडटा.

रिएल हें हांगाचें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचरणः** १९८१ मेरेन ह्या देशांत १३,३५१ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. हातूंतले २०% पक्के आशिल्ले. त्याच वर्सा रेल्वेमार्गांची लांबाय ५४९ किमी. आशिल्ली. मेकाँग न्हंय, टॉनले सॅप न्हंय आनी सरोवर उदकांतल्या येरादारीखातीर उपेगाचीं थारतात. काँपाँग सोम हें हांगाचें मुखेल बंदर. हे भायर हेर बरींच ल्हानसान बंदरां हांगा आसात. 'एअर काम्बोज' ही संस्था हवाई मार्गावयली येरादारी सांबाळटा. प्नॉमपेन हांगा मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा.

१९८४ मेरेन ह्या देशांतल्यान १६ दिसाळीं उजवाडाक येतालीं. रेडिओ, दूरचित्रवाणीचीय ह्या देशांत बरी वेवस्था आसा.

**लोक आनी समाजजीणः** वंशीक नदरेन हांगाचे सुमार ९३% लोक ख्मेर-कंबोडियन, ३% चिनी आनी ४% व्हिएतनामी आसात. ख्मेर-कंबोडियन लोक मूळचे सद्याच्या थायलंडांतल्या कोराट पठारावयल्यान इ.स.प. दुसऱ्या शतमानाआदीं मॅकाँगच्या पिकाळ देगणांत येवन रावले. भारतांतल्यान बरेच लोक हांगा दोन हजार वर्सांआदीं सावन येताले. तांचो बरोच प्रभाव ह्या लोकांचेर पडलो. आठव्या ते पंदराव्या शतमानामेरेन हांगा भारतीय, मलायी, थाई हे लोक आयले. उपरांत सतराव्या आनी एकुणिसाव्या शतमानांत चिनी लोक आयले. ह्या लोकांची हाका लागून सगळ्या विंगड विंगड लोकांकडेन भरसण जाली. धर्मीक नदरेन ह्या देशांत ८८.४% बौध्द, २.४ % मुसलमान आनी ९.४% हेर धर्मांचे लोक आसात. सुमार ८०% लोक शेतवडीचेर जीण सारतात.

पूर्विल्ल्या साम्राज्याच्या काळांतलीं शिल्पां आनी वास्तुशिल्पां हांचें दायज ह्या देशाक लाबलां. अंकोर वाठारांत पोरने बांदावळीचे नमुने आयजमेरेन पळोवंक मेळटात. भारतीय आनी चिनी संस्कृतायेची भरसण हांगाचे कलाकुसरींत बरेतरेन दिश्टी पडटा.

**शिक्षणः** ह्या देशाचें राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण ५५% आसा. १९७५ पयलीं शिक्षण फुकट, सक्तीचें आनी एकसारकें आशिल्लें. राज्यवेवस्थेंत येवपी बदलांक लागून शिक्षणपध्दतीचेर परिणाम जाला. सरकारी शिक्षणसंस्थांवांगडा बौध्द धर्मीक शाळा आनी कॅथलिक मिशनरी संस्था शिक्षणाच्या मळार वावर करतात. उंचेल्या पावंड्यावयलें शिक्षण दिवपाखातीर हांगा बरींच विश्वविद्यालयां आसात.

अमेरिका, फ्रांस, कॅनडा, ब्रिटन ह्या सारक्या देशांनी हांगाचे विद्यार्थी उंचेल्या शिक्षणाखातीर वचून रावल्यात.

**भाशा आनी साहित्यः** भौतेक ख्मेर राजा पयलींचे हिंदू धर्मीय आशिल्ल्यान पूर्विल्ल्या काळांत पडिल्लो संस्कृत भाशेचो प्रभाव दिसून येता. कम्बोज देशांत जे सुमार ३२० कोरीव लेख सांपडटात, तातूंतले १५० संस्कृत भाशेंतले आसात. ह्या लेखांनी पाणिनी, पतंजली, वेदवेदान्त, स्मृति, रामायण-महाभारत, पददर्शन, कामसूत्र, धर्मशाळा आनी बौध्द तशेंच जैन पवित्र ग्रंथांचो उल्लेख मेळटा. ताचेवयल्यान पूर्विल्ल्या काळांत कम्बोजांत मूळ भारतीय संस्कृत भाशेंत निर्माण जाल्ल्या साहित्याचो वापर जातालो, अशें अनुमान काडूं येता.

ख्मेर वा कंबोडियन ही हांगाची अधिकृत भाशा. हे भाशेचेर भारतीय आनी चिनी भाशांच्या लिपींचो परिणाम जाला. १९७५ मेरेन शिक्षणाखातीर हांगा फ्रेंच भाशेचो उपेग जातालो. इंग्लीश भाशेचोय प्रभाव हालींच्या काळांत हांगाच्या समाजाचेर जाल्लो दिसून येता. साहित्याविशीं व्हडलीशी म्हायती मेळना.

**म्हत्वाचीं थळांः** प्नॉमपेन ही राजधानी आनी उद्येगीक केंद्र आसा. मेकाँग हें बंदर आनी काँपाँग चाम, सीएम रीप, पुसीट हीं हेर म्हत्वाचीं शारां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## गंगटोक:

सिक्कीम राज्याची राजधानी. एक म्हत्वाचें वेपारी शार. दार्जीलिंगाचे उत्तर-उदेंतेक ४५ किमी. आनी समुद्रथरासावन १८७१ मी. उंचायेचेर हे शार वसलां. लोकसंख्याः ३६,७६८ (१९८१). सिक्कीमचे लोकवस्तींतले सुमार एक तृतीयांश लोक ह्या शाराचे भोंवतणी रावतात. पयलीं गंगटोक ल्हान ल्हान लांकडी घरांचो ल्हानसोच गांव आसलो. पूण आतां ताका आर्विल्ल्या शाराचें रूप आयलां.

हांगाचो लालबाजार, आर्विल्लो राजवाडो, मंत्र्यांचीं घरां, सचिवालय, विद्यालयां, वखदी केंद्रां आदींनी गंगटोकच्या वैभवांत भर घाल्या. हांगा तिखी, समशितोश्ण कटबंधीय फळां आदींची खास केंद्रां, कुटिरोद्योग संस्था आनी तिबेट विद्याभ्यास मंडळ आसून सिक्कीमचे संस्कृतीक जिणेचें हें केंद्र जावन आसा. हांगा आशिल्ल्या रूमटेकाच्या बौध्द मठाची खूब नामना आसा.

१९६१ त हांगा रांगणी जलविद्युत् प्रकल्प पुराय जालो. ह्या प्रकल्पावरवीं गंगटोकचे वीजपुरणेंत भर पडली आनी देखूनच हांगाच्या उद्येगधंद्याचे उदरगतीक बरी परिस्थिती तयार जाली. हांगा कापड आनी तयार कपडे, रंग, धातूकाम, लांकडीकाम, शेंदऱ्यो, कागद आदींचो वेपार चलता. गंगटोक हें शार बागडोग्रा (सिलिगुडी) ह्या भारतीय हवाई विमानतळाक जोडलां. भारत रस्ता विकास मंडळान २४१.५ किमी. चो उत्तर सिक्कीम राजमार्ग बांदला. ताका लागून ह्या शारांतल्या लोकांक सिक्कीमचे शिमेमेरेनच्या शारांकडेन वेपार करप सोपें जालां. हांगा मको, दाळी, बटाट, तांदूळ, फळफळावळ, जनावरां, कातडी वस्तू आदींची व्हड बाजारसेठ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## गंगा:

भारतांतली पवित्र न्हंय. लांबाय २,५१० किमी.; उदक व्हांवपाचें क्षेत्र ८,३८,२०० चौ.किमी.; गंगेचो उगम उत्तर प्रदेशाच्या अस्तंत कुमाऊँ वाठारांत टेहरी-गढवाल जिल्ह्यांतल्या ४,०६२ मी. उंचायेवेल्या गंगोत्री ह्या क्षेत्रापसून सुमार २९ किमी., ४,२०६ मी. उंचायेवेल्या गोमुख हांगा, गंगोत्री हिमन्हंयेच्या तोंकाक हिमगुहेंतल्यान जाता. भागीरथी ह्या नांवान उगमापसून ३५ किमी. अस्तंतेकडेन आनी मागीर हिमालयाच्या खोल देगणांतल्यान दक्षिणेकडेन वतकच तिका देवप्रयाग हांगा अलकनंदा हो गंगेचो दुसरो फांटो मेळटा. जोशीमठ हांगा बद्रिनाथासावन आयिल्ली विष्णुगंगा आनी द्रोणगिरीकडल्यान आयिल्ली धौलीगंगा एकठांय जातात. विष्णुप्रयागाफुडें तिका अलकनंदा म्हण्टात. देवप्रयागाफुडें भागीरथी-अलकनंदा संयुक्त प्रवाहाक गंगा हें नांव पडलां.

मागीर दक्षिणेक ७० किमी. व्हांवन वचून नाग टिब्बा आनी शिवालिक पर्वत वळींतल्यान, खडपांतल्यान वाट काडीत हृषीकेशसावन हरद्वार हांगा गंगा मैदानी वाठारांत येता.

हरद्वारसावन गढमुक्तेश्वरावयल्यान अनुप शारामेरेन गंगा दक्षिणेक, थंयसावन फरुखाबाद, कनौज, कानपूरच्यान अलाहाबाद (प्रयाग) मेरेन आग्नेय दिकेक, मागीर दक्षिणेकडल्यान व्हडलें चंद्राकृती मोडण घेवन वाराणसीमेरेन आनी थंयसावन गाझीपूर, बलिया, पाटणा, मोंघीर, भागलपूर, साहेबगंजकडल्यान अस्तंत बंगालचे शिमेमेरेन उदेंतेकडेन १२० किमी. व्हांवत वता. बिहारांतल्या राजमहाल दोंगराक भोंवतडो घालून गंगा अस्तंत बंगालांत पावता. थंयसावन व्हांवत आग्नेय दिकेन ती बांगला देशांत वता. ग्वालंदोकडेन तिका ब्रह्मपुत्रा मेळटा आनी थंय तिका पद्मा अशें म्हण्टात. फुडें फरीदपूरचे उदेंतेक मेघनेचे खाडीक मेळून दक्षिण ह्या जुंव्याकडेन बंगालच्या उपसागराक मेळटा.

गंगेक फरूखाबादच्यावयर नुता आनी हरदोई इतल्या सुमाराक रामगंगा मेळटा. अलाहाबाद हांगा यमुना न्हंय गंगेक मेळटा. अलाहाबाद आनी वाराणसी हांगासावन शोण, पाटणालागीं पुनपुन, लखिसराईचे ईशान्येक गयेसावन आयिल्ली फल्गू ह्यो न्हंयो आनी हेर कितलेशेच प्रवाह गंगेक उजवे दिकेन येवन मेळटात. गंगेक दावे वटेन वाराणसी आनी गाझीपूरसावन गोमती, बालियाचे अस्तंतेक तमसा वा उदेंत तोन्स, छप्रा हांगा घागरा म्हळ्यार शरयू, सोनपूर हांगा गंडक, मोंघीर जिल्ह्यांत बुरी मंडक, मनीहारी घाटाच्या थोडें वयर एव्हरेस्ट भागांतल्यान आयिल्ली कोसी आनी तिचे उदेंतेक महानंदा ह्यो मुखेल न्हंयो आनी हेर न्हंयांचे फांटे मेळटात.

अस्तंत बंगालांत मुर्शिदाबाद जिल्ह्यांत जंगीपूरचे थोडे उत्तरेक धुलिआनकडेन गंगेचे भागीरथी-हुगळी आनी पद्मा-मेघना अशे दोन फांटे जातात. भागीरथीक अस्तंत बंगालांत बन्सलोई, काटवा, अजया, दामोदर, रुपनारायण, पानार आदी ल्हानव्हड न्हंयो येवन मेळटात. भागीरथीच्या दर्याकडल्या भागाक हुगळी अशें म्हण्टात.

उगमापसून हरद्वारमेरेनचो गंगेचो प्रवाह हिमालयाच्या दोंगराळ भागांतल्यान, नंदादेवी, कामेट ह्या ऊंच शिखरसमुद्राच्या प्रदेशांतल्यान कितल्याशाच प्रवाहांचें उदक आपणायत नेटान सकयल देंवता. ह्या वाठारांत हिंदूंचीं खूब तीर्थक्षेत्रां, कांय झरे, रानां, रानवटी जनावरां, पक्षी आसात. हरद्वारसावन मुखामेरेनचो गंगेचो ३,५७,००० चौ. किमी. वाठार व्यापपी व्हडलो सपाट मैदानी प्रदेश आसा. तातूंत उत्तर प्रदेश, बिहार आनी अस्तंत बंगाल हीं भारताचीं राज्यां येतात.

बिहारांत गंगेच्या वाठाराचो ८८,००० चौ. किमी. प्रदेश आसा. घागरा, गंडक, कोसी ह्या आनी हेर कितल्याशाच प्रवाहांनी उत्तर बिहारांत ५४,४०० चौ. किमी. चो २,००० मी. खोलायेचो एक व्हडलो गाळप्रदेश तयार केला. उत्तर बंगालांतले मैदानी प्रदेश २३,००० चौ. किमी. आसून तातूंतल्यो उदेंतेकडल्यो न्हंयो ब्रह्मपुत्रा न्हंयेक येवन मेळटात. जलमार्ग म्हूण गंगेचें खूब म्हत्व आसा. कलकत्ता समुद्रापसून १४० किमी. भितर आसा. थंय व्हडल्यो बोटी वतात. पाटण्यामेरेन ल्हान आगबोटी वतात. कानपूर आनी हरद्वारमेरेन साद्या व्हड्यांतल्यान एकसारकी येरादारी चालू आसता. गंगा-यमुनाच्या कालव्यांतल्यान येरादारी एकसारकी चालू आसता.

जल्मांत एकदां तरी गंगेचें न्हाण घडचें अशी जण एकल्या हिंदूची इत्सा आसता. हिंदू लोकांनी पवित्र मानिल्ल्या सात न्हंयांभितर गंगेची सुवात सगळ्यांत वयर आसा. गंगेक विष्णुपदी, त्रिपथगा, भागीरथी, जान्हवी अशीं खूब नांवां आसात. गंगेंत आपल्याक मरण येवचें वा निदान आपल्यो अस्थी तरी गंगेंत पावच्यो, अशें श्रध्दावान हिंदूक दिसता. हरद्वार, अलाहाबादचे गंगेचें उदक तांबयांत घालून हाडटात आनी ताची पूजा करतात. मरता आसतना गंगेचें उदक तोंडांत घालतात. नवे खणिल्ले बांयंत गंगेचें पवित्र उदक घालतात. मंगल प्रसंगाक गंगाजलाचो अभिषेक करतात. गंगेचें उदक पथकर आनी पीडाहारक आसा. महंमद तुघलक, अकबर, औरंगजेब आनी हेर राजा लोक नेमान गंगाजल घेताले. ऋग्वेदांत गंगेचो उल्लेख फकत दोन वेळा आयला. आरण्यकां, पुराणां हातूंत गंगेची खूब महती गायल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**गंगोत्री:** हिंदू लोकांचें पवित्र थळ. हें क्षेत्र उत्तर प्रदेश राज्यांतल्या टेहरी गढवाल जिल्ह्यांत आसा. टेहरी-गढवाल जिल्ह्यांतल्या टेहरी ह्या वाठारासावन सुमार ८० किमी. अंतराचेर आनी ३,१६७ मी. उंचायेचेर हें क्षेत्र वसलां. हांगासावन १४ किमी. वयर सुमार ६,६१४ मी. उंचायेचें गंगोत्री तेमक आसा आनी सुमार २३० किमी. वयर कैलास पर्वत आसा.

१८ व्या शेंकड्यांत अमरसिंग थप्पा ह्या गुरखा सेनापतीन बांदिल्लें गंगेचें देवूळ ह्या क्षेत्रांत आसा. हें देवूळ भागीरथी न्हंयचे दावे देगेर आसा आनी ताच्या लागसारूच भैरवनाथाचें देवूळ आसा. हें भगीरथाचें तपस्थान आशिल्लें. जे शिळेचेर बसून भगीरथान गंगेक प्रसन्न करपाक तप केल्लें, ती शिळा भगीरथ शिळा ह्या नांवान नामनेक पावल्या. गंगेच्या देवळांत गंगा, यमुना, सरस्वती, भागीरथी आनी शंकराचार्य हांच्यो मूर्ती आसात. तातूंतले गंगेचे मुर्तीची थापणूक शंकराचार्यान केल्ली, अशें सांगतात.

भागीरथी शिळेच्या पलतडीं रुद्रशिळा आसा. शिळेचेर उबो रावन शिवान स्वर्गांतसावन गंगेचो प्रवाह आपल्या मस्तकाचेर घेतिल्लो, अशें सांगतात. ह्या थळांत भागीरथी आनी केदारगंगा ह्या न्हंयांचो संगम जाता. थंयसावन सुमार पाऊण किमी.चेर फातर फोडून १०-१२ मी. उंचायेवेल्यान भागीरथी न्हंयचो प्रवाह सकयल पडटा. ज्या जाग्यार हो प्रवाह सकयल पडटा, ताका 'गौरीकुंड' म्हण्टात. ह्या गौरीकुंडाचे मदीं शिवलिंग आसा आनी हो प्रवाह सारको ह्या लिंगाच्या माथ्यार पडटा. थंय लागसारूच ब्रह्मा, विष्णू, सूर्य आदी देवांचीं कुंडां आसात.

गंगोत्री हें गंगा न्हंयच्या उगमाचें थळ मानतात, तरी गंगेचो खरो उगम गंगोत्रीसावन सुमार २९ किमी. चेर आशिल्ल्या श्रीमुख पर्वतांत, गायेच्या तोंडाभशेन एक फातर आसा, तातूंतल्यान जाता. थंय ३० किमी. लांबायेची आनी ३ किमी. रुंदायेची हिम न्हंय सोंपता आनी थंयचे होंवरींतल्यान भागीरथीचो प्रवाह सुरू जाता. थंय वचपाची वाट बरीच आडखळेची आशिल्ल्यान चडशे यात्रेकरू थंय वचनात. ह्या थळाक गंगोदभेदतीर्थ म्हण्टात.

अक्षयतृतीयेसावन कार्तिक पुनवेमेरेन ह्या क्षेत्रांत यात्रेकरी येतात. कार्तिकी पुनवे उपरांत थंय बर्फ पडटा, देखून हें देवूळ बंद आसता. थंयचे पुरोयत गंगेची मूर्ती घेवन थंयसावन २३ किमी. आशिल्ल्या मार्कंडेय क्षेत्रांत येतात आनी थंय गंगेची पूजा करतात. मागीर पर्थून अक्षयतृतीयेक गंगेची मूर्त गंगोत्रीक हाडटात.

- कों. वि. सं. मं.

**गंजन:** (मराठी-गवती चहा, पातीचा चहा; हिंदी-गंधतृण; गुजराती-लिलिचा; कन्नड-मज्जिगे हुळ्ळु; संस्कृत-भूस्तृण, सुगंधी; इंग्लीश-वेस्ट इंडियन लेमन ग्रास; लॅटीन-सिंबोपोगॉन सिट्रेटस; कूळ-गॅमिनी).

१.५ मी. उंचाय आशिल्लें हें वासाळ तण झोंपांनी वाडटा. हें झोंप जायतीं वर्सां जियेता. हें झोंप मूळचें भारतीय आसूंक जाय. पूण सद्या उश्ण आनी उपोश्ण कटिबंधांत सगळ्या वाठारांनी दिश्टी पडटा. भारतांत कांय कडेन हें झोंप रानटी अवस्थेंत दिसता. गोंय, केरळ, कर्नाटक आनी महाराष्ट्र ह्या वाठारांनी ताची लागवड करतात. कांड (मूळक्षोड) मोटवें आसता आनी तें जमनींत वाडटा. ताचो कांय भाग जमनीवयर (संधिक्षोड) येता. पानां सादीं, रेशाकृती, तोंकांकडेन अशीर, सुमार ९० सेंमी. लांब, निळसार पाचवीं आनी खखरीत आसतात. तृणपुच्छ (पानांच्या देंठाकडेन आशिल्लो पानांचो ल्हान भाग) ल्हान आनी कांडाक गुठलायिल्लो आसता. फुलां ३० ते ६० सेंमी. लांबायेचे, महाछद आशिल्ले परिमंजरीचेर येतात.

हे वनस्पतीक दमट वातावरण, ओलसाण आनी भुसभुशीत जमीन

लागता. गंजनाचे थाम लावन नवी लागवड करतात. उदेंत उश्ण कटिबंधीय वाठारांत तेचपरी भारत, श्रीलंका, उदेंत आफ्रिका, बेल्जीयन कोंगो, मादागास्कार ह्या वाठारांनी गंजनाची लागवड करतात. अस्तंत गोलार्धांत हे वनस्पतीची लागवड यशस्वीपणान जाल्ली आसा.

**उपेग:** गंजनाच्या पानांचो काडो उत्तेजक, मुत्रल, जोर ना करपी आनी घाम हाडपी आशिल्ल्यान थंडेचेर गुणकारी जावन आसा. गंजनांत ७०% ते ८०% सित्रोल हें द्रव्य आसता. ह्या द्रव्यापसूनच तांबशें, लिंबाचे रुचीचें बाश्पनशील (volatile) 'इंडियन मोलिसा' हें तेल मेळटा. ह्या तेलांत सारक, उत्तेजक आदी गुणधर्म आशिल्ल्यान तें पटकीचेर दितात. ह्या तेलापसून आयोनोन (Ionone) हेंय द्रव्य काडटात. 'अ' जीवनसत्त्वाच्या संश्लेशणाखातीर ह्या द्रव्याची गरज आसता. अत्तर, वासाळ द्रव्यां, वखदां आनी शाबू करपाक हें तेल वापरतात.

चरत्याचेर (Ringworm) पानांचो लेप आनी ताक हांची भरसण करून लाय्तात. काळीं मिरयां घालून केल्लो गंजनाचो काडो रगत चडप, शिरो दुखप, ओंकारो, पातळ परसाकडे असल्या दुर्येसांचेर दितात. थंडी, अपचन ह्या विकारांचेर उपाय म्हूण गंजनाची च्या (काडो) करून घेवपाची चाल गोंयांत आसा.

- डॉ. एस्. एम्. शेट्टी

संदर्भ-1. Bailey, L.H., Manual of Cultivated Plants, Tata Macmillan Co., New York, 1949; 2.Dastur, J. F., Medicinal Plants of India and Pakistan, D. B. Taraporewala Sons & Co., Pvt. Ltd., Bombay, 1962; 3. Hill, A.F., Economic Botany, Tata MacGraw Hill Publishing Co., 1951.

**गंध:** षोडशोपचार पूजेंतलो एक उपचार. चंदनाचें पाळ साणीर घांसून जो लेप तयार जाता, ताका 'गंध' अशें म्हण्टात. देवपूजेंत देवाक गंध लायतना पुरुषसूक्तांतलो 'तस्माद्यज्ञात्सर्वहुत:' हो वैदिक मंत्र म्हण्टात.

दादले कपलाक गंध लायतात. दरेका संप्रदायांत गंध लावपाची पध्दत वेगवेगळी आसता. शैव लोक आडवें, जाल्यार वैष्णव लोक उबें गंध लायतात. वैष्णव लोक कानसुलांचेर, खांदांचेर, छातयेर आनी पोटार गंधाच्यो वा गोपीचंदनाच्यो मुद्रा लायतात. वारकरी संप्रदायाचे लोक कपलाचेर आनी कानसुलांचेर गंधाच्यो तिकल्यो लायतात.

तयार केल्ल्या गंधाच्यो बाटल्यो बाजारांत मेळटात, तातूंतलें गंध बायलो कपलाक तिकली लावपाक वापरतात.

बऱ्या वासाकूय गंध अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**गंधर्व-१ :** 'गन्धं सङ्गीतवाद्यदिजनितं प्रमोदं अर्वति प्राप्नोति इति' (शब्दकल्पद्रुम). अर्थ= संगीत (गंध) आनी वाद्य हांचेपसून निर्माण जावपी आनंद जाका प्राप्त जाला, ताका गंधर्व म्हण्टात. गंधर्व ही अतिमानवी योनींतली एक योनी आसून देवांपरस गंधर्वांचो पांवडो तीन सपणांनी सकयल आसा अशें म्हण्टात. कश्यप आनी अरिष्टा हांचेपसून गंधर्वांची उत्पत्ती जाली, अशें मत्स्यपुराणांत सांगलां. गंधर्व हे ब्रह्मदेवाचे शिंकेपसून उत्पन्न जाले, अशें हरिवंशांत सांगलां. महाभारतांत चित्ररथ हो गंधर्वाधिपती आनी इंद्र हो तांचो स्वामी अशें म्हळां.

गंधर्व शब्दाच्यो कितल्योश्योच व्युत्पत्ती विद्वानांनी दिल्यात. पूण त्यो चडश्यो क्लिश्ट आसात. सायणान दोन तरेच्यो व्युत्पत्ती सांगल्यात:

१. 'गानुदकं धारयतीति गन्धर्वो मेघ:'

अर्थ- 'गा' म्हळ्यार उदक. ताका धारण करपी तो गंधर्व म्हळ्यार मेघ.

२. 'गवां रश्मीनां धर्तारं सूर्यम्'

अर्थ- गो म्हळ्यार किरण. तें धारण करपी गंधर्व म्हळ्यार सूर्य.

अथर्ववेदांत गंधर्वांक 'गर्दभनादिन्' अशें म्हळां आनी गाडवांभशेन (गर्दभ=गाडव) तांचे कामुकतायेचें वर्णन केलां.

गायन-वादन कलेंत गंधर्व पारंगत आसतात. स्वर्गांतले इंद्रसभेंत गावपा-वाजोवपाचें काम गंधर्व करतात. चाक्षुषीविद्या, संमोहनशास्त्र अश्यो कांय दिव्य विद्या तांकां अवगत आसतात. गंधर्व सर्वांग सुंदर, रुपेस्त आसतात आनी तांचो भेस ओडलायणो आसता. देखून, सौंदर्याची इत्सा धरपी मनीस तांची पूजा करतात, अशें भागवतपुराणांत सांगलां. तांचीं शस्त्रां विजेसारकीं तेजीश्ट आनी तांचे घोडे वाऱ्यापरस नेटान धांवतात. ते उदकांत बुडून रावंक शकतात. दुसरें कांयच मेळ्ळेंना जाल्यार उदकांतलो शेळो खावन ते आपली भूक भागयतात.

गंधर्वांक फुलांची आनी खास करून कुंदफुलांची खूब आवड आसा. गंधर्वांच्यो बायलो अप्सरा दिसपाक अप्रतीम आनी लावण्यवती म्हूण नांवाजल्ल्यो आसात. पूण अशा बायलांचो नित्य सांगात आसूनलेगीत गंधर्वांक मानवी बायलांचें आकर्शण खूप आसता. मानवी रमणींक वश करपाखातीर ते तरेतरेचें इंद्रजाल, कपट रचतात. मनशांक भुरळ घालून त्रासांत घालपाची वायट खोड तांकां आसा. अशी भुरळ पडची न्हय म्हूण पयलींचे लोक अजशृंगी नांवाची एक वनस्पत अथर्ववेदांतल्या एका मंत्रान सिध्द करून आपणाकडेन बाळगिताले. रामायण, महाभारत आनी पुराणांत तांकां देवगायकांच्या रुपान चित्रित केल्यात. बौध्द आनी जैन साहित्यांत गंधर्वांचे खूबकडेन उल्लेख आयल्यात. जैन साहित्यांत तांकां व्यंतर लोकांतले देव मानल्यात. भारतांतल्या वेगवेगळ्या सुवातींनी तांचीं सुंदर चित्रां आनी शिल्पां दिसून येतात. देखीक: वेरुळचीं लेणीं.

**गंधर्व-२ :** - जैन दैवतसमूहांतलो एक यक्ष. हो कुंथुनाथाचो सेवक जावन आसा.

**गंधर्व-३ :** एक जात. उत्तर प्रदेशांतल्या वाराणसी, गाझीपूर आनी अलाहाबाद ह्या भागांत आनी राजस्थानांत ह्या लोकांची वसती आसा. हांच्यांत अरख, सितळ, रामसी, शाहिमल, हिवार, पंचभैया आनी उधोमन अशीं सात गोत्रां आसात. एकाच गोत्रांतले गंधर्व एकमेकांकडेन लग्न जायनात. बालविवाहाची चाल आसून भोवपत्नी प्रथा रुढ आसा. पोरन्या काळांत हांच्यांत अशी चाल आशिल्ली. गोड गळयान गावपी आनी दिसपाक सुंदर अशा चलयांचीं लग्नां करीनासतना हे लोक तांकां वेश्या-वेवसायाखातीर राखून दवरताले. पूण पयल्या दादल्यावांगडा हांचे लग्नासारके संस्कार करताले. हांचे पुरयत ब्राह्मण आसतात. लग्नाविशींच्या सगळ्या तंट्यांचो निवाडो पंचायती वरवीं जातालो. गावप, वाजोवप, नाचप हो गंधर्व लोकांचो मुखेल वेवसाय. वाराणसी जिल्ह्यांत कांय गंधर्व शेतकाम करतात. खसखसाची लागवड करप हो तांचो आवडीचो वेवसाय.

ह्या गंधर्व समाजांत औरस चलयेक वारसा हक्क मेळना, पूण वेश्या नर्तकीचे चलयेक चल्याचे बरोबरीन वांटो मेळटा. धंदो चलोवपाखातीर चली पोसकी घेतिल्ली आसल्यार तीच मालमत्तेची वारसदार जाता. पूण तांच्यो लग्न जाल्ल्यो बायलो म्हादेवाक पूजतात आनी नर्तकी गणपतीक भजतात. तेभायर ते ठाकूरदेव आनी बाबा किनाराम हांकां पूज्य मानतात. राजस्थानांतले गंधर्व हे मूळ वैश्यांतले आसून वेवसायान नर्तक आसात. 'अंजनासुंदरी' आनी 'मैनासुंदरी' हीं तांचीं दोन संगीत नाट्यां आसून तांचे खेळ करीत वर्सांतले आठ म्हयने ते गांवानगांव भोंवतात. दक्षिण गुजरातांत रावपी गंधर्वांक 'गंधप' अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**गंव:** (मराठी- गहू; हिंदी-गेहूँ; गुजराती- घहुं; कन्नड- गोधी; संस्कृत- गोधुम; इंग्लीश- व्हीट; लॅटीन-ट्रिटिकम; कूळ-ग्रॅमिनी).

हें वर्सुकी वनस्पतीचें रोप ६० ते १५० सेंमी. लांब आसता. पूण संकरीत जाती मात ३० सेंमी. ऊंच आसतात. ताचें कांड उबें आनी पोकळ आसता आनी ताका ५-७ कोंब आसतात. पानां लांब आनी अशीर आसतात. फुलांची मांडावळ एका मुखेल घट्ट देंठाचेर आसता आनी ताचेर ल्हान ल्हान फुलां मेळून एक कणसूच तयार जाता. फुलांचेर, वयलेवटेन लांब दाट केंस आसतात.

गंवांचो रंग तांबूस हळडुवो वा लेव हळडुवो आसता. ताचो घेर ५-१०

मिमी. आसता. ह्या फळांत २.५ % कोंब, १४% कणो आनी ८३.८७% पिठाळ, अशे तीन मुखेल भाग आसतात. गंव लांब, गुळगुळीत, मर्दी फुगिल्लो आसता आनी ताच्या भायले वटेन एक चीर आसता.

**उगमाचो इतिहास:** गंवाची शेती चडशा सगळ्या थंड प्रदेशांनी आनी उश्ण कटिबंध देशांनी जाता. तशेंच दर्याचे पातळेसकयल आनी ४,५०० मी. उंचायेच्या वाठारांत गंव पिकयतात. गंवाचो उगम दक्षिण उदेंत आशिया हांगा जालो. भारतांत गंव आर्य लोकांनी हाडलो, असो पुरावो मेळटा.

संवसारांत आर्क्टीक सर्कल ते विषुववृत (equator) मेरेन गंव पातळ्ळा. रशिया, अमेरिका, भारत, चीन, फ्रांस, जर्मनी ह्या देशांनी गंव चड प्रमाणांत पिकयतात. हातूंत रशियेक सगळ्यांत चड गंव पिकता. सगळ्यांत चड हेक्टरी सरासरी उत्पन्न स्वीत्झर्लंड हांगा जाता. ताचे फाटल्यान फ्रांस आनी जर्मनीचो क्रमांक लागता.

गंवाच्या उत्पन्नांत जगांत भारताचो चवथो क्रमांक लागता. भारतांत सुमार २२० लाख हेक्टर वाठारांत गंव पिकता. ताचें वर्सुकी उत्पन्न सुमार ३४९ लाख टन मेळटा. तशेंच ताचें सरासरी उत्पन्न फकत १,५७४ किग्रॅ. प्रतीं हेक्टरी जाता. भारतांत गंव हें एक मुखेल पीक जावन आसा. भारतांत चडशा सगळ्या राज्यांनी गंवांचें पीक काडटात. पूण उत्तर प्रदेश राज्यांतलो वाठार सगळ्यांपरस चड गंवाचे लागवडीखाल आसा.

गोंयांत गंवाची पिकावळ काडिल्ली दिसना.

**जाती आनी प्रकार:** जगांत गंवाच्यो १५ ते २० जाती सांपडटात. ह्या ट्रिटिकम वंशांतल्या वेगवेगळ्या जातींचें तीन विभाग केल्यात.

१. ट्रिटिकम बिओटिकम; ट्रि. मोनोकॉकम, २. ट्रि. डायकॉकम; ट्रि. तिमोफिवी; ट्रि. ड्युरम; ट्रि. टर्जिडम; ट्रि. पोलोनिकम; ट्रि. कार्थलिकम; ट्रि. डायकॉकम; ट्रि. ओरिएंटल. ३. ट्रि. स्पेल्टा; ट्रि. माचा, ट्रि. व्हॅव्हिलोव्ही; ट्रि. एस्टिव्हम, ट्रि. कॉंपॅक्टम; ट्रि. स्किरोकॉकम.

हातूंतल्यो ट्रिटिकम एस्टिव्हम, ट्रिटिकम ड्युरम आनी ट्रिटिकम डायकॉकम ह्यो तीन जाती अर्थीक नदरेन म्हत्वाच्यो आसात. भारतांत ट्रि. एस्टिव्हम ही जात ८७% वाठारांत पिकयतात. ताचे फाटल्यान ट्रि. ड्यूरम ही १२% आनी ट्रि. डिकॉकम ही १% पिकयतात. चपाती आनी हेर बेकरीचे पदार्थ ट्रि. एस्टीव्हमपसून करतात. ट्रि. ड्यूरम ही जात बरे प्रतिची आसता. शेवयो, चपात्यो, पाव, केक हांचेखातीर ह्या गंवाचो वापर करतात. भायल्या देशांनी स्पॅगॅटी आनी मॅकरोनीखातीर ह्या गंवाचो वापर करतात. ट्रि. डायकॉकम ही जात फकत उत्तर भारतांतल्या तमिळनाडू, आंध्र प्रदेश, महाराष्ट्र आनी गुजरात हांगा 'उपमा' ह्या जिनसाखातीर वापरतात.

**रोवप आनी वाडोवप:** रोंप रोवंचे आदी जमीन नांगरून, २-३ फावट कोळपणी करून निवळ करतात. जमीन बरी भुसभुशीत जातकच ती पेटून घेतात. उपरांत शेतांत ७-१० दीस उदक दितात आनी जमीन ओली करून दवरतात. गंवाचें पीक थंड हवेंत बरें जाता. ७° से. ते २१° से. ह्या तापमानांत पिकाची वाड बरी जाता. गंवाक कमी प्रमाणांत पावस लागता. वर्सुकी २५ सेंमी. ते १७५ सेंमी. पावसाच्या प्रमाणांत गंवाची लागवड बरी जाता.

बियाणें रोयता आसतना वाठाराप्रमाण बियाणें वेंचून घेवन तांकां व्हिटावेक्स, थायरम वा ॲग्रोसान हीं चित्याआडचीं वखदां लायतात. उत्पन्न वाडपाचे नदरेन गंव फाव त्या वेळार रोवप म्हत्वाचें आसता. गंव रोवपाचो वेळ जमनीची ओलसाण, उदक शिंपणेची सोय आनी गंवाची पिराय हाचेर पातयेवन आसता. पावसांत जावपी गंव चड करून तो ऑक्टोबर म्हयन्याचे दुसरे पंद्रशींत वा नोव्हेंबराचे मुर्वेक रोयतात. चड उत्पन्न दिवपी तशेंच मध्यम आनी व्हड पिरायेच्यो जाती नोव्हेंबराचे सुरवातीक लायतात. कमी पिरायेच्यो जाती नोव्हेंबरांत दुसरे पंद्रशींत लायतात.

वखद लायिल्लें बीं दरेक हेक्टराक १०० ते १२५ किग्रॅ. लागता. गंवाचें बीं पेरता आसतना दोन वळींनी २० ते २२.५ सेंमी. अंतर दवरतात तशेंच बीं ५ सेंमी. खोल रोयतात.

गंव चार पध्दतीन रोयतात. एक बीं शेतांत मारून वा रोवन, दुसरी पध्दत म्हळ्यार गंव जोताफाटल्यान पेरप, हातूंत हातांनी बीं चरयांनी घाल्यार 'केरा' अशें म्हण्टात. पूण बीं एके नळयेच्या आदारान चरयांनी उडयत जाल्यार 'पडेरा' म्हण्टात. तिसरे पध्दतींत सीड ड्रील ह्या यंत्रान बीं पेरतात (ड्रिलिंग). चवथ्या प्रकारांत डिब्लर ह्या यंत्राच्या आदारान जमनींत बुराक घालून (डिब्लिंग) बीं रोयतात. गंवाच्या पिकाक नत्र आनी स्फुरद हे सारें फाव त्या वेळार योग्य प्रमाणांत दितात.

गंवाक पयलें उदक बीं रोयतकच २०-२५ दिसांनी दितात. दुसरें उदक बीं रोयतकच ४०-४५ दिसांनी म्हळ्यार फांटे फुटपाचे अवस्थेवेळार दितात. तिसरें उदक ७०-७५ दिसांनी दितात. चवथें उदक ९०-९५ दिसांनी म्हळ्यार गंवाक फुलां येतात तेन्ना दितात. पाचवें उदक गंवांत दूद तयार जावपाच्या वेळार म्हळ्यार सुमार ११०-११५ दिसांनी दितात.

**उत्पन्न आनी पीक:** जेन्ना गंवाचीं पानां आनी कांड हळडुवें जावन सुकपाक लागता तेन्ना गंवाची कापणी करतात. पीक चड सुकूंक दिल्यार जमनीर लोळपाचो संभव आसता. तशेंच हुंदीर, सुकणीं आनी किडी हांचेपसून लुकसाण जावपाचो संभव आसता. बरे प्रतीचो गंव मेळपाखातीर गंवाच्या दाण्यांत २५-३०% ओलसाण आसूंक फाव. गंवाची कापणी केल्या उपरांत मळणी करून, वारो दिवन गंवाचे दाणे सुकोवन तातूंतली ओलसाण १०-१२% दवरतात. गंवाच्या बऱ्याभशेन केल्ल्या पिकापसून हेक्टराक ४५-५५ क्विंटल गंव उदका पुरवण आशिल्ल्या शेतीपसून मेळटात. पावसाचेर वाडिल्ल्या पिकापसून २०-२५ क्विंटल गंव मेळटा आनी २५० ते ३५० क्विंटल तण गोरवांच्या खावडीक मेळटा.

**उपेग:** गंवाचो चडसो उपेग मुखेल धान्य म्हूण करतात. तातूंत स्टार्च, प्रथिनां, चरबी, साकर, ओलसाण, क्रुड फायबर अशीं तत्त्वां आसतात तशेंच तातूंत नियासीन (Niacin) आनी थायामाइन (Thiamine) हीं जीवनसत्त्वां आसतात. गंवाच्या वट्ट उत्पादनांतलो सुमार ७४% गंव खावपाखातीर, १५% जनावरांखातीर आनी उद्येगीक उत्पादनांत वापरतात. उरिल्लो ११% गंव बियाणाखातीर वापरतात. गंवापसून रवो, मैदो, कणो, पीठ अशे जायते पदार्थ मेळटात. गंवापसून जे खाद्यतेल काडटात, तातूंत व्हिटामीन 'ई' हें जीवनसत्त्व आसता. घरगुती वापरांत गंवाच्या दळून काडिल्ल्या पिठापसून चपाती, रोटी तशेंच लाडू, खीर आनी हेर जिनस करतात. गंवाच्या कण्यापसून खीर, शिरो, लरांव ह्या सारके पदार्थ करतात. गंवाचो हेर उपेग गोरवां आनी दुकरां हांचे खावडीखातीर जाता. दक्षिण भारतांत संस्कृतीक आनी धर्मीक कार्यांत गंवाचो उपेग करतात.

गंवांतल्यान मेळपी मुखेल द्रव्य 'ग्लुटेन' हो बेकरी धंद्यांतलें म्हत्वाचें घटक आसा. संजासारको (Spongy, Cellular structure of bread) पदार्थ तयार करपाक ग्लुटेन उपेगी पडटा.

**रोग आनी उपाय:** गंवाच्या पिकाक ज्या रोगांपसून बादा जाता, ते अशे:

*१. रस्ट (तांबेरा):* हातूंत काळे, काफये कोराचे आनी हळडुवे अशे तीन तरांचे रस्ट (तांबेरा) आसतात. हाकालागून पानार, पानांच्या देंठार आनी कांडार दाग पडटात. हाचेर उपेग म्हूण कार्बोक्झीन ०.१% हाचो फवारो मारचो.

*२. स्मट्स (चितो):* हो रोग 'उस्टिलागो ट्रिटिसाय' ह्या चित्यापसून जाता. हाका लागून कणसांत द्रव्याच्या बदला काळी भुकटी आसता. ह्या रोगाआड 'व्हीटावेक्स बेनलेट' हें वखद बियांक चोळचें.

*३. बंट्स (Neovossia Indica):* ह्या चित्यापसून हो रोग फुलांक लागता आनी दाणो जावंक दिना. कणस पिकून तयार जायसर हो रोग वळखप कठीण जाता. हाचेर उपाय म्हळ्यार गंवाचें बीं हून उदकांत (५४° से.) १० मिनटां बुडोवन दवरप आनी मागीर रोवप. गंवाक आल्टर्नेरिया आनी हेल्मिथोस्पोरियम ह्या चित्यापसून पानांचेर दाग

पडटात. हाकालागून पानां सुकतात आनी दाण्यांचेर परिणाम जाता. ह्या रोगाक आळाबंदा हाडूंक 'झायनेब' ह्या वखदाचो फवारो मारतात.

गंवाक लश्करी कीड, खोडकिडो (कांडाक जावपी कीड), कटवर्म, शूटफ्लाय, मावो, माइटस, थ्रीप्स अश्यो जायत्यो किडी लागतात. ह्यो किड़ी ना करपाक फोस्फेमिडोन, मोनो क्रोटोफोस, डायमेथीएट हे सारकीं वखदां वापरतात. तशेंच गुदावांत गंवाक लागपी जायत्यो किडी आसतात. तांचेर मेलाथीऑन, पायरेथ्रम, इ.डी./सी.टी. असलीं वखदां वापरतात.

- एच्. आर. प्रभुदेसाय

**गः** देवनागरी वर्णमालेंतलें 'क' वर्गांतलें तिसरें व्यंजन. हाचो उच्चार कंठांतल्यान जाता. संस्कृत भाशेंत 'ग' शब्दाक गाय, गौरी, गणेश, गोकुळेश्वर, गंधर्व अशे खूब अर्थ आसात.



ग- अक्षरविकास

ह्या वर्णाची पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनार हांगाच्या शिलालेखांत दिसता. मोडी लिपींतूय ही अवस्था दिसता. वर्तुळांशासारकी दिसपी 'ग' ची दुसरी अवस्था आनी बाराखडींतली दीर्घ ईकाराच्या चिन्हासारकी दिसपी तिसरी अवस्था इ. स. प. आनी दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या मथुरा हांगाच्या लेखांत पळोवंक मेळटा. चवथी अवस्था जपानांत होर्युजीच्या मठांत मेळिल्ल्या उश्णीषविजयधारिणी ग्रंथाच्या ताडपत्री पुस्तकांत मेळटा. ह्या पुस्तकाचो काळ इ. स. चो सवो शेंकडो अशें मानतात. हे उपरांत एक-दोन शेंकड्यांतूच आयचो वळणदार आनी रेखीव 'ग' तयार जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**गजांतलक्ष्मीः** गजांतलक्ष्मी हें गजलक्ष्मीचें रुप. कांय लोक तिका गजांतलक्ष्मी म्हूण वळखतात, जाल्यार कांय लोक तिका गजलक्ष्मी म्हण्टात.

श्री लक्ष्मीदेवी कमळाचेर बशिल्ली वा उबी राविल्ली आसता. तिच्या हातांत कमळाचें फूल आसता. तशेंच तिचे दावे आनी उजवे वटेन एक एक हत्ती आसता. ते दोनूय हत्ती आपापले सोंडयेन देवीच्या मुकुटाचेर उदकान अभिषेक करतात. अशें हें लक्ष्मीचें रूप आसा. देखुनूच तिका गजांतलक्ष्मी वा गजलक्ष्मी अशें म्हण्टात.

समुद्रमंथनांतल्यान लक्ष्मी जेन्ना भायर सरून वयर आयली तेन्ना तिचेर दिगज्जांनी म्हळ्यार हत्तींनी भांगराच्या कळशांनी समुद्राचें उदक भरून आपले सोंडयेन ते कळशे धरून लक्ष्मीच्या मस्तकाचेर उदकाचो अभिषेक केलो, अशें वर्णन श्री विष्णुपुराणांत आसा.

हत्ती हें वैभवाचें म्हळ्यारूच ऐश्वर्याचें प्रतीक मानतात आनी लक्ष्मी हें समृध्दीचें दैवत. देखून ह्या दोगांयकूय शिल्पकलेंत एकठांय हाडूंक हें रूप दाखयल्ल्यो मूर्ती केल्यात, अशें जाणकारांचें मत आसा.

गोंयांत फोंड्या तालुक्यांतल्या माशेल ह्या वाठारांत 'गजलक्ष्मी कारयकारीण' नांवाचें देवीचें एक देवूळ आसा. ते देवीचे कुळावी म्हाजन दैवज्ञ ब्राह्मण (शेट) समाजाचे आसात.

गजांतलक्ष्मीचे आनीक एक देवूळ फोंडें तालुक्यांतल्या वळवय गांवांत आसा. अशें म्हण्टात की, ज्या लोकांनी वळवय गांवाची वसणूक केली तांणी आपली कुलदेवता श्री गजांतलक्ष्मीची थापणूक केली. हें देवीची पाशाणाची मूर्त सुंदर आसा. ही देवी पार्वतीचो अवतार आसा आनी ती कमळाचेर विराजमान जाल्या देखूनच, तिका केलंबिका वा केळबाय अशींय दोन नांवां आसात. हे देवीचे दोनूय वटांनी रावन हत्ती तिका अभिषेक करतात. तशेंच तिच्या दोनूय वटांनी कलाकारांचो पंगड तिचें मनोरंजन करता.

गजांतलक्ष्मीच्यो मूर्ती गोंयाभायर भारतांत सांची, बोधगया, अमरावती, पितळखोरा, महाबलीपूरम् ह्या गांवांनी, जंय बौध्द आनी मध्ययुगांतली शिल्पकला आसा थंय आसात. तशेंच हेर देवळांच्या दारांवेल्या शिल्पांनी वा वण्टींचेर गजलक्ष्मीच्यो आकृती कोरांतिल्ले दिश्टी पडटात. वेरूळच्या कैलास लेण्यांभितर सरतकच, थंय एक भव्य मनोहर अशी गजलक्ष्मीची मूर्त आसा. ह्या शिल्पांत लक्ष्मीच्या कमलासना सकयल दोन नाग आसात.

दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या अयोध्या आनी उज्जैन हांगाच्या राजाच्या नाण्यांचेर हे देवीचें चित्र कोरांतिल्लें आसा. तिसऱ्या शेंकड्यांतल्या कोसंबीच्या राजाच्या नाण्याचेर गजलक्ष्मीच्यो मूर्ती आसात. अझालिसेस, राजुहुल्ला आनी सोडासा ह्या परकी राजांनी एका काळांत भारताचेर सत्ता चलयल्ली, तांच्या नाण्याचेर गजलक्ष्मीच्यो मूर्ती कोरांतिल्ल्यो आसात.

- विनायक नारायण शेणवी धुमे

**गझलः** गझल हो एक वृत्तप्रकार जावन आसा, तेचप्रमाण तो एक काव्यप्रकार आनी गायनप्रकारूय आसा. इस्लामी संस्कृतायेकडल्यान भारतीय संगीताक मेळिल्ल्या गजालींमदीं ह्या गायन प्रकाराचो आस्पाव जाता.

पोरनें इराण (पर्शिया) हांगाच्या ह्या मोगागीताचो प्रकार भारतांत सुफी संतांक लागून पावलो. देव आनी भक्त हांचेमदलें नातें मोगी युगुलाचे परिभाशेंत उक्तें करपी ह्या संतांनी आपलीं प्रार्थनेचीं गीतां 'गझल' ह्या काव्यप्रकारांत रचलीं आनी तांकां संगीताचो रुपकार दितना भारतीय राग-तालांचो उपेग केलो. भारतांतल्या संगीताचें दायज आनी संगीताक निशिध्द मानपी इस्लामचो विशय ह्या दोगांयची भरसण म्हळ्यार हो गायनप्रकार.

तेराव्या शतमानांतलो सूफी संत ख्वाजा मोईनुद्दीन चिश्ती आनी खल्जी, तशेंच तुघलक साम्राज्याचो राजकवी अमीर खुसरो हाका लागून हो काव्यप्रकार सगळेकडेन पातळ्ळो. बऱ्याच मोगल बादशहांनी फुडें ह्या काव्य-गीत प्रकाराक आलाशिरो दिलो. निमणो मोगल बादशहा बहादूरशाह जफर हाच्या दरबारांत गालिब आनी जौक अशे दोन नामनेचे शायर आशिल्ले. हेभायर जफर होय एक व्हड शायर आशिल्लो.

गझलांचीं बरींच कडवीं आसतात. दर दोन कडव्याच्या कुडक्याक 'शेर' अशें म्हण्टात. एका गझलांत उण्यांत उणे पांच आनी चडांत चड सतरा 'शेर' आसतात. पूण हेविशीं खंयचोच खास असो नेम नासता. शेरांतल्या दोन सारक्या कडव्यांक मेळून 'मिसरा' म्हण्टात. शेरांतले निमणे सुवातेर येवपी एकसारक्या उतरांक 'रदीफ' म्हण्टात. तार्चें काव्यांतल्या यमका कडेन बरेंच लागींपण आसता. ह्या रदीफापयलीं येवपी आनी सारको आवाज आसपी उतरांक 'काफिया' अशें म्हण्टात. तांचें अनुप्रासाकडेन सारकेपण आसता. ज्या शेरांच्या दोनूय मिसरामदीं 'रदीफ' आनी 'काफिया' एकसारके आसतात, ताका 'मतला' म्हण्टात. गझलाचे सुर्वेक 'मतला' हो आसताच.

गझलाच्या पयल्या शेराक 'स्थायी' म्हण्टात आनी उरिल्ल्या हेर शेरांक 'अमरे' अशें म्हण्टात. चडकरून सगळ्या अंतऱ्यांच्यो चाली एकसारक्योच आसतात. ज्या रागांनी ठुमरी आनी टप्पा ह्या दोन गीतांचे प्रकार गायतात, तांचोच उपेग गझलांनी चड करून करतात. रागाचो विस्तार तशेंच रागाची शास्त्रोक्तता हांचेर मात चड भर दिनात. गझला वांगडचो ठेको दुसऱ्या शेरासावन नाजाल्यार पयल्या शेराच्या निमण्या कडव्यासावन सुरू जाता. चडशे दादरा, रुपक, केरवा, पुश्तो हेच ताल वापरतात. पयलो शेर 'विलंबित' लयींत जाल्यार हेर 'मध्य' लयींत गायतात.

गझल गावपी नामनेच्या गायक-गायिकांमदीं सुंदराबाय, गोहरजान,

सैगल, नूरजहान, बेगम अख्तर, लता मंगेशकर, आशा भोसले, तलत महमूद, मुकेश, हांचेवांगडा गुलाम अली, मेहदी हसन, अनुप जलोटा, पंकज उधास, तलत अजीज, चित्रा आनी जगजित सिंग, नीना आनी राजेंद्र मेहता हांचोय आस्वाव जाता. सर्गेस्त मदनमोहन हाणें पोरन्या चित्रपटांतल्यान गझलांचो सोबीत उपेग केल्लो सांपडटा.

गोंयच्या कवींनी कोंकणींत चड गझल बरयिल्ले दिसून येनात. कांय नवे बरोवपी गझल प्रकारांत काव्यरचणूक करपाचो यत्न करतात. हेर भारतीय भाशांनी बऱ्याच कवींनी गझल बरयल्यात.

- रविंद्र म्हाड्‌डोळकार

**गडकरी, राम गणेश:** (जल्म: २६ मे १८८५, नवसारी-गुजरात; मरण: २३ जानेवारी १९१९, सावनेर-विदर्भ).

एक नामनेचो मराठी नाटककार, विनोदकार आनी कवी. 'गोविंदाग्रज' ह्या नांवान ताणें कविता रचल्यो, जाल्यार 'बाळकराम' ह्या नांवान विनोदी बरप केलें. ताचें शिकप दामनगर (सौराष्ट्र), कर्जत आनी पुणे हांगा जालें. ताणें कॉलेजीच्या पयल्या वर्सामेरेनचें शिकप घेतलें. कांय काळ ताणें किर्लोस्कर नाटक कंपनीच्या नाटकांत कामां करपी भुरग्यांचो मास्तर म्हूण काम केलें. थंय मतभेद जाल्यान ताणें ती कंपनी सोडली.



विदर्भ हांगाच्या बाळापूर ह्या गांवांत कांय काळ शिक्षक म्हूण ताणें काम केलें. कांय काळ पुण्याच्या 'ज्ञानप्रकाश' नेमाळ्यांत उपसंपादक म्हूण ताणें काम केलें. पुण्यांत आसतनाच न्यू इंग्लिश हायस्कूलांत शिकोवपाचें काम केलें (१९१०). त्याच वर्सा किर्लोस्कर नाटक कंपनीन ताका नाटकांखातीर पदां रचपाच्या निमतान आपोवणें धाडलें. हांगाच्यान ताचें साहित्यिक जिणेक खऱ्या अर्थान सुरवात जाली.

नाटकां आनी विनोदी बरप बरोवपाविशीं ताचेर नामनेचो नाटककार श्रीपाद कृष्ण कोल्हटकर हाचो प्रभाव पडिल्लो दिसून येता. कविता रचपांत ताणें 'केशवसुत' हाका आपलो गुरू मानलो. ताची 'अल्लड प्रेमास' ही पयलीच कविता १९०९ त 'मासिक मनोरंजन' ह्या म्हयन्याळ्यांत उजवाडाक आयली. ह्याच म्हयन्याळ्यांत ताणें खूबशें विनोदी बरपूय केल्लें, तें फुडें 'रिकामपणाची कामगिरी' (१९२१) ह्या नांवान उजवाडाक आयलें. त्या काळांतल्या 'रंगभूमि' ह्या म्हयन्याळ्यांत 'सगाई नाटकी' ह्या टोपण नांवान ताणें कांय बरप केलें. सतरा वर्सां पिरायेचो आसतना ताणें 'मित्रप्रीति' हें आपलें पयलें नाटक बरयलें. मात आयज तें मेळना. १९०६ ते १९०७ ह्या काळांत अर्दकुटें बरयल्लें 'वेड्यांचा बाजार' हें ताचें नाटक, ताचो एक इश्ट आनी नामनेचो नट चिंतामण कोल्हटकर हाणें पुराय करून १९२३ त उजवाडाक हाडलें.

ताचें उजवाडाक आयिल्लें साहित्य अशें: *नाटकां:* 'प्रेमसंन्यास' (१९१३), 'पुण्यप्रभाव' (१९१७), 'एकच प्याला' (१९१९), 'भावबंधन' (१९२०), 'राजसंन्यास' (१९२२- अर्दकुटें बरयल्लें). *कवितां-झेलो:* 'वाग्वैजयंती' (१९२१). *विनोदी साहित्य:* 'संपूर्ण बाळकराम' (१९२५). आचार्य अत्रे हाणें 'अप्रकाशित गडकरी' ह्या नांवान ताचें उरिल्लें बरप उजवाडायलें.

ताच्या कवितांत नवीं उतरां, नवलायेच्यो कल्पना आनी उमाळे हांचें सोबीत दर्शन घडटा. शृंगार, करुणा आनी हास्य ह्या तिनूय रसांक एकठांय हाडून तातूंतल्यान मनार फाव तो परिणाम करपाचें कसब ताच्या सगळ्याच बरपांत दिसून येता. ताचे कल्पनांचे येवजणेंत अतिताय दिसता, पूण वाचप्यांची उमळशीक वाडोवपाची पुराय तांक तातूंत दिसून येता. ताणें चितरायल्लीं व्यक्तिचित्रां आयज लेगीत काळजाचो थाव घेतात. 'एकच प्याला' नाटकांतली सिंधू, 'भावबंधन' नाटकांतली कालिंदी, 'राजसंन्यास' नाटकांतली तुळशी ह्यो व्यक्तिरेखा सांसणाच्यो मनात घर करून उरल्यात.

निमण्या दिसांत ताका क्षयरोगाचो खूब त्रास जालो. तातूंतच 'भावबंधन' ह्या नाटकाचो निमणो प्रवेश बरयल्याउपरांत कांय वेळांतूच तो ह्या संवसाराक अंतरलो.

- प्रा. सुमंत कनयाळकर

**गडगड:** जोगूल (वीज) पडटा आसतना जाल्ल्या आवाजाक 'गडगड' म्हण्टात. जोगलांतल्यान निर्माण जाल्ली उश्णता भोंवतणची हवाय गरम करता आनी ताचें संपीडन (Compression) जावन गडगडाचो आवाज येता. उरफाटे दिकेन आयिल्लो लखलख हाच्यापरसूय व्हडलो आवाज करता आनी ताका लागून खर विद्युत् प्रवाहाचें संचरण (transmission) जाता. विद्युत् प्रवाहाचो मार्ग लांब आशिल्ल्यान पयसुल्ल्यान जावपी गडगडाचो आवाज मात्सो उसरां आयकूंक येता.

दर मैलाक ५ सेकंदांनी गडगडाचो कितले मेरेन आवाज पावता, ताचेवयल्यान विद्युत् प्रवाहाची लांबाय सोदून काडूं येता. गडगडाचो आवाज १५ मैलांपरस (२४ किमी.) पयस खुबूच उण्या फावट आयकूंक येता. कुपांभितर गडगडाचो आवाज विरिल्ल्यान ताचो प्रतिध्वनी (echo) आयकूंक येना. उजवाडाचो वेग आवाजाच्या वेगापरस चड आशिल्यान जोगूल पयलीं दिसता आनी उपरांत गडगडाचो आवाज आयकूंक येता. सादारणपणान जोगूल आनी गडगड हांचेमदीं दर मैलाफाटल्यान ३ सेकंदांचो फरक उरता.

पूरक नोंद: जोगूल

- ए. बी. कुयेल्य

**गडे:** शिगम्याच्या म्हयन्यांत आंगांत भार येवन जे मनीस खुदतात तांकां 'गडे' म्हण्टात. चडशे गडे आंगांत आयले की जमनीर पडटात तेखातीर हे क्रियेक 'गडे पडप' अशें म्हण्टात. गडे म्हळ्यार संख्याशास्त्राचे परिभाशेंत 'विशम' (odd) आंकडो, चडशेकडेन आंगांत अवसर येतल्यांची संख्या १, ३, ५, ७ अशी विशम उरता. ह्या कारणाक लागून ताका 'गडे' म्हण्टात.

गड्याचो संबंद होळयेचे परबेकडेन आसा. होळी पुनवेक वा होळये उपरांत दोन-तीन दिसांनी गडे पडटात.

म्हारु, देवचार, खेत्रपाल ह्यो तमोगुणी देवता अशें म्हण्टात. ह्या देवतांचें तीर्थ थारायिल्ल्या वेळार गडे घेतात. ताका लागून गाराणें घालीनासतना गड्यांचेर भार येता. भार आयल्याउपरांत गडे मांडार येवन पडटात. पडिल्ल्या गड्यांक कोणूयतरी उबो करून सावसीत करता. सावसीत जातकच गडे मांडाभोंवतणी एके वळींत धुंवपाक लागतात. गडे भोंवतासतना धोल नगारे वाजयतात. हे गडे भोंवतासतना तांच्या कुडीवेलो अवसर देंविल्लो आसता. कांयकडेन विदूशकावरवीं दोन मनीस 'नाच' करून गड्यांक चाळयतात. गडे रागान तांकां धरपाक धांवतात. तेन्ना ते पळून वतात. थोड्या वेळान विदूशक परते येवन गड्यांक चाळयतात. हांका लागून गंभीर वातवरणांत विनोदाची सया पातळटा. गडे बऱ्योच प्रदक्षणा घाल्याउपरांत मसणांत वतात. गडे मसणांत वतकच विदूशक मांडार येवन मांड जागयतात. गडे मसणांत वचून सारयेची अर्दकुटीं जळिल्लीं लांकडां, कोंडे हाडटात. ह्या वेळार तांच्या आंगार अवसर नासुनूय तांकां 'मसणबादा' जायना.

मसणांतले कोंडे, लांकडां, गडे मांडार घेवन येतात आनी थारावीक

कुरखेन त्यो वस्तू मांडार दवरून मांडा भोंवतणी घुंवपाक लागतात. त्यावेळार मांड जागोवपी दुसरो एक मनीस तांकां सांगता, 'आपलो आपलो शृंगार वळखून दवरात' (ह्या मसणाक शृंगार म्हळां). भोंवतडे घालता आसतना गड्याच्या आंगांत परतो अवसर येता आनी रोखडोच निवळटा.

प्रदक्षणा घालून जातकच मांड जागोवपी गड्यांक म्हण्टा: 'आपलो आपलो शृंगार घेवन चलात.' ह्या वेळार गड्याच्या आंगांत अवसर येता आनी ते शृंगार घेवन वतात आनी थारायिल्ल्या जाग्यार उडयतात. शृंगार उडयनाफुडें अवसर निवळटा. अवसर निवळनाफुडें गडे न्हातात आनी देवाच्या दर्शनाक वतात.

भूतां, देंवचार आनी खेत्री हे म्हादेवाचे गण आसून तांकां खोशी करपाक हो गड्यांचो प्रकार आसूंये, अशें म्हण्टात. म्हादेव मसणांत रावता. थंयचीं लांकडां गडे वचून हाडटात आनी तांची होळी करतात. गडे पडप, भूतां खेतांचो गड्यांचेर भार येवप, मसणांतल्या लांकडांत हेर लांकडां भरसून होळी करप, वेल्यान गडे पडप हो म्हादेव आनी ताच्या भूतगणांचोच एक भाग जावन आसा अशें दिसता.

**गोंय:** गोंयांत दरेका वाठारांत गडे पडपाची प्रथा एका तेंपार सर्रास चलताली. वर्सावळीची पध्दत म्हूण एक मनीस दर वर्सा गडो पडटालो. तेभायर नवे नवे गडे दर वर्सा पडटाले. गडे पडप ही गजाल कांय प्रमाणांत आपल्या धराण्याक मेळिल्लें भोवमानाचें दायज हे भावनेन पळेतात, देखून गडो आशिल्लो मनीस गडे पडपाच्या दिसा मांडार हजर रावता. जर ताका मांडाभायर रावचें पडलें तरी तो आसा थंयच ताचें आंग शिरशिरून येता. सद्या सुशिक्षीत पिळगेचो असले प्रथेवेलो विस्वास ल्हव-ल्हव उणो जायत चल्ला. तेखातीर गडे पडप ही प्रथा कमी जायत चल्ल्या. सद्या गोंयांत दिवचल म्हालांतल्या साळ ह्या गांवांत व्हड दबाज्यान गड्यांउत्सव जाता.

- वा. ल. वझे

## गडेकार, बाबू गोविंद:

(जल्म: १७ मार्च १९१७, ओशेल-बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो 'आझाद गोमंतक दल' हे संघटनेचो वांगडी जालो. ताणें बाळा काकोडकाराच्या फुडारपणाखाल सुटके झुजाचें काम केलां. १९६० वर्सा पोलिसांनी ताका अटक केली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## गडेकार, सदानंद महादेव:

(जल्म: २३ डिसेंबर १९३५, म्हापशें-बारदेस; मरण: १२ ऑगस्ट १९८१).

गोंयचो सुटके झुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. १५ ऑगस्ट १९५४ दिसा आल्फेड आफोंसो हाच्या फुडारपणाखाल ताणें तेरेखोलच्या किल्ल्याचेर सत्याग्रहांत वांटो घेतलो आनी थंय आशिल्लो पोर्तुगेजांचो बावटो काडून त्या जाग्यार तिरंगी बावटो लायलो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी बरेच खर त्रास दिवन बंदखणींत दवरलो. प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत (Territorial Military Tribunal) हाडटकच तो पिरायेन ल्हान आशिल्ल्यान ताका आठूच वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिली. १५ ऑगस्ट १९५४ ते नोव्हेंबर १९५५ मेरेन तो आल्तिनो आनी रेईश मागुश बंदखणींत आसलो. उपरांत पर्थून ताची चवकशी जाली आनी ताका हेर राश्ट्रवाद्यांवांगडा आग्वाद बंदखणींत दवरलो. २२ मे १९५८ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. तरी पोलिसांची ताचेर बारीक नदर आशिल्ली. तेभायर दिसाक दोन फावट ताणें म्हापशें पोलीस ठाण्याचेर हजेरी दिवपाची आसली.

पोलिसांची नदर चुकोवन तो भारताचे शिमेर पळून गेलो. पूण पोर्तुगेज पोलीस ताचे फाटीक लागले आनी तांणी ताचेर हल्लो केलो. तरी हे कठीण परिस्थितींतल्यानूय तो मुंबय पावलो. मुंबयसावन ताणें राजकीय संस्थांनी वावर करूंक सुरवात केली. गोंय सुटकेउपरांत १९६२ त तो 'ऑल गोवा यूथ काँग्रेस' पक्षाचो सरचिटणीस आशिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## गड्डे:

ल्हान भुरग्यांच्या खेळांतलें साधन वा खेळणें.

हे गड्डे कंवचेपसून, शिमीटापसून, फातरापसून वा लाखेपसून तयार करतात. गड्डे हे विंगडविंगड रंगांचे, गुळगुळीत आनी वांटकुळ्या आकाराचे आसतात. गड्ड्यांचे खेळ खूब प्रकारचे आसतात. पूण मुखेल दोन खेळ आसात, ते अशे: १. मिलांचो खेळ २. बोदो खेळ.

**मिलांचो खेळ:** ह्या खेळांत जमनीचेर समान अंतराचेर तीन मिलां म्हळ्यार तीन बुराक खणटात. दरेका मिलाची रुंदाय सुमार चार इंच तर खोलाय सुमार देड इंच आसता. मिलाच्या तोंडाची रुंदाय तीन इंच आसली तरी तळाची रुंदाय बरीच उणी म्हळ्यार एक इंच आसता. ह्या खेळांत खेळगडी आपले गड्डे खेळयत-खेळयत आनी दुसऱ्या खेळगड्याच्या गड्ड्यांक मोखून पयस धांवडायत, तशेंच आपल्या गड्ड्याची राखण करीत, तिनूय मिलांनी आपले गड्डे भरून घेतात. दुसऱ्या खेळगड्याच्या गड्ड्यांक आपल्या गड्ड्यान धांवडावपाचे क्रियेक 'पेणो मारप' म्हण्टात. जो खेळगडी तिनूय मिलां करून मेकळो जाता, तो जैतिवंत थारता आनी जो शकना, ताचेर हार पडटा. हे हारीक ह्या खेळाचे परिभाशेंत 'घुस' अशें म्हण्टात.

**बोदो खेळ:** ह्या खेळांत जमनीर बारा इंच व्यासाचें एक वर्तुळ काडटात, ताका 'बोदो' म्हण्टात. ह्या खेळांत दोन पंगड आसतात. एक पंगड बोद्यार बसता आनी आपले गड्डे वर्तुळांत दवरता. दुसऱ्या पंगडांतले खेळगडे बोद्याभायर रावन बोद्यांतले गड्डे पेणे मारून भायर काडटात. अशें करतना केन्नाकेन्नाय बोद्याभायल्या खेळगड्याचे गड्डे बोद्यांत उरतात. बोद्याभायर आयिल्ल्या गड्ड्यांचेर पेणे मारीत मारीत बोद्यासावन ते पयस व्हरतात थंयसावन ते गड्डे बोद्यार बशिल्ल्या खेळगड्यांनी दोनूय कोपरांमदीं धरून पर्थून बोद्यांत हाडून दवरपाचे आसता.

एका तेंपार गोंयांत खुबूच लोकप्रिय आशिल्लो हो खेळ आतां व्हडलोसो खेळनात.

- कों. वि. सं. मं.

## गण-१:

पंगड, समूह, समुदाय. मेजता तो वा जाचें मेजप जाता, ताका गण म्हण्टात (हलायुध). ऋग्वेदांत गण हें उतर व्रात शब्दाक धरून आयलां (३.२६.६). ऋग्वेदांत बह्मणस्पतीक गणांचो गणपती अशें म्हळां. बौध्द साहित्यांत गण ह्या शब्दाचो अर्थ 'लोकशाही संस्था' असो दिला (महावग्ग २.१८). पाणिनीन गण ह्या शब्दाक संघ हो प्रतिशब्द दिला (३.३.८६). जातकांत गण ही एक स्वयंबध्द लोकसंस्था आशिल्ली, अशें म्हळां.

राधाकुमुद मुकर्जी हाणें 'हिंदू सभ्यता' ह्या ग्रंथांत गणाविशीं माहिती दिल्या, ती अशी: गण ही एक राजकी संघाची संज्ञा आशिल्ली. गणांत सगळ्या वर्गांतले लोक आस्पावताले. तातूंत शासक क्षत्रियांचो एक खास वर्ग आसतालो. त्या वर्गाक 'राजन्य' अशें म्हण्टाले. राजन्य श्रेणीचे क्षत्रियूच संघाचे शासनसमितीचे सदस्य जावंक शकताले. संघशासनांत राजनितीक दलां आसतालीं. तांकां 'वर्ग' अशें म्हण्टाले. ह्या वर्गांचीं नांवां तांच्या मुखेल्यांच्या नांवांवेल्यान पडटालीं. गणांत अधिकाराखातीर सर्तीय चलताल्यो. अशी सर्त अंधक-वृष्णी ह्या गणांत चलताली आनी ताका लागून तो संघ द्विदल जाल्लो (अष्टाध्यायी, ६.२.३४).

पाणिनीन यौधेय आनी क्षुद्रक-मालव अशा कांय संघांचो तेचप्रमाण कांय गण-समुदायांचो उल्लेख केला. देखीक- त्रिगर्तषष्ठ, हो त्रिगत देशाच्या स संघांचो समुदाय (अष्टाध्यायी, ५.३.११६).

अंधक-वृष्णी प्रमाणूच क्षुद्रक-मालव हो एक संयुक्त संघ आशिल्लो

(अष्टाध्यायी, ४.२.४५). महाभारतांत अंधक, वृष्णी, यादव, कुकुर आनी भोज अशा पांच गणांचो उल्लेख आयला (शांतीपर्व, ८१). अंधक-वृष्णींचो मुखेली श्रीकृष्ण आशिल्लो. दरेक संघ आपल्या अधिपतीच्या हातासकयल आनी अधीन आसतालो. वर्गगत शासनातूय अधिकाराखातीर संघर्श जातालो. देखीक- बभ्रून कृष्णाआड आपलो वर्ग संघट्टित केल्लो. अक्रूरान कृष्णाकडेन सत्तेक लागून सर्त केल्ली.

गणांचे तरेकवार प्रकार आसताले: आयुधजीवी (शस्त्रांचेर जियेवपी), वार्ताशास्त्रोपजीवी (शेतकाम, गोरवां पोसप, वेपार हांचेर जियेवपी), राजाधिष्ठित आनी लोकाधिष्ठित.

**गण-२ :** तीन अक्षरांच्या समूहाक छंदशास्त्रांत गण अशें म्हण्टात. य-र-त-न-भ-ज-स-म अशे आठ गण पिङ्गलाच्या छंदोग्रंथांत दिल्यात. लघुगुरुंच्या फरकान ते घडटात हाचेविशीं पिङ्गलान नेमश्लोक दिला, तो असो-

आदिमध्यावसानेषु यरता यान्ति लाघवम् ।
भजसा गौरवं यान्ति मनौ तु गुरुलाघवम् ।।

अर्थ- य, र, त हे गण अनुक्रमान सुर्वेक, मदीं आनी निमाणें लघु अक्षरांचे आसतात. भ, ज, स हे गण अनुक्रमान सुर्वेक, मदीं आनी निमाणें गुरु अक्षरांचे आसतात. म गण सबंद गुरु आनी न गण सबंद लघु आसता. संस्कृत आनी प्राकृत काव्यांतलीं कितलींशींच वृत्तां वेगवेगळ्या गणा-आकड्यांचेर आदारिल्लीं आसतात. तांकां मंदाक्रांता, शार्दूल-विक्रीडित, शिखरिणी, उपजाती, वंशस्थ अशीं नांवां आसात.

**गण-३ :** एकवाचनाचारक्रियास्थानां परस्परसापेक्षाणाम् अनेककुलानां साधूनां समुदायः (अर्थ- जांचें वाचप, आचार आनी क्रिया समान आसतात. असल्या आनी परस्परसापेक्ष अशा कितल्याशाच कुळांतल्या साधुंचो समुदाय म्हळ्यार गण, अशी एका जैन ग्रंथांत ताची व्याख्या आसा (अभिधानराजेंद्र).

गणकल्पना महावीराच्या पयलींसावन अस्तित्वांत आशिल्ली, अशें म्हण्टात. श्रमणाक उण्यांत उणे स म्हयने तरी एकाच गणांत रावचें पडटालें. स म्हयन्यांभितर ताणें गण बदल्लो जाल्यार ताका 'गाणंगणिक' अशें म्हण्टाले. स म्हयन्याउपरांत ज्ञानसाधना वा नेमधर्म ह्या कारणांखातीर गणमुखेल्याची आज्ञा आसल्यारुच जैन साधूक गण बदलपाक मेळटालो.

**गण-४ :** सेनासंख्याविशेश. एका गणांत २७ रथ, २७ हत्ती, ८१ घोडे, १३५ पायदळ हांचो आस्पाव आसतालो (महाभारत-आदिपर्व, २.२१).

**गण-५ :** अश्विन्यादी जन्मनक्षत्राप्रमाण प्राप्त जावपी देव, मनीस वा राक्षस गण.

**गण-६ :** शिव आनी विष्णु हांचे अनुचर. हांकां शिवगण आनी विष्णुगण अशेंय म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**गणपती:** भारतीय संस्कृतायेंत हिंदूंच्या धर्मीक जिवितांत पुरायपणान व्यापून रावन एक उंचेली सुवात जोडून आशिल्लें दैवत. गणपतीक गणेश, एकदंत, वक्रतूंड, गजानन, लंबोदर आनी हेर जायत्या नांवांनी वळखतात.

गणपती वा गणेशाक विद्येचें तेचपरी संकश्टाचें निवारण करपी दैवत म्हूण मानतात. गणांचो ईश म्हळ्यार स्वामी, शिवगणांचो मुखेली आनी शिवाचो पूत अशें ताचें स्वरूप.

गणपतीच्या जल्माविशीं आनी ताच्या हतया तोंडाविशीं जायत्यो आख्यायिका चलतात, त्यो अश्योः पार्वतीन एक फावट न्हावपाक वतना स्वताच्या आंगाचो चिखोल एकठांय करून एक भुरगो तयार केलो आनी ताका न्हाणयेर राखण करपाक दवरलो. थोड्यांवेळान शंकर थंय पावलो. तेन्ना त्या भुरग्यान ताका आडायलो. देखून शंकरान रागान ताचो शिरच्छेद केलो. ही घडणूक पळोवन पार्वतीक दुख्ख जालें. त्यावेळार शंकरान त्या भुरग्याक हतयाची तकली लावन जिवो केलो. ताकाच उपरांत गणपती म्हणपाक लागले.



**गणपती**

दुसरी कथा अशी- शंकरान आपल्या तपोबलान एक भुरगो निर्माण केलो तें पळोवन पार्वतीक मत्सर जालो. तिणें स्त्राप दिवन त्या भुरग्याक विद्रुप आनी गजमुख केलो.

तिसरी कथा अशीः एक फावट हिमालय पर्वतार शिव-पार्वतीन हतयाचें रुप घेवन रतिक्रीडा केली आनी तिचें फळ म्हूण पार्वतीक हो गजरूप पूत जालो, अशें म्हण्टात.

गणपती हो पूर्विल्ल्या काळांतलो देव आसलो, तरीय तेविशींचे स्पश्ट उल्लेख पूर्विल्ल्या साहित्यांत मेळनात. ऋग्वेदांत 'गणानां त्वा गणपतिं हवामहे' असो उल्लेख आयला (ऋग्वेद, २.२३.१). तो ब्रह्मणस्पती हे वैदीक देवतेक उद्देशून आसा. मैत्रायणी संहितेंत आनी तैत्तिरीय आरण्यकांत, नारायणोपनिषदांत गणपतीचो उल्लेख आसा.

इ. स. प. पांचवें तें सवें शतमान हो नारायणोपनिषदाचो काळ. विद्वानांच्या मतान तातूंत गणपतीचो उल्लेख उपरांत जालो. रामायण आनी हेर कांय पूर्विल्ल्या पुराणांत गणपतीचो उल्लेख मेळना. कौटिलीय अर्थशास्त्रांत हेर देवांचीं देवळां कशीं बांदचीं, हें सांगलां. पूण तातूंत गणपतीचो आस्पाव ना.

बौधायनसूत्रांत 'विनायकशांती' सांगल्या. विनायक हे क्रूर गण आसून तांणी कार्यांत विघ्नां हाडचीं न्हय म्हूण तांची शांती करची अशें म्हळां. याज्ञवल्क्यस्मृतींत मनशांक झपाटून उडोवन तांच्या कार्यांत विघ्नां हाडपी राक्षस अशें विनायकाचें वर्णन आसा. 'विनायक' ह्या गणाचो मुखेल होच काळांतरान विघ्ननाशक गणेश जालो, अशें हाचेवेल्यान दिसता.

लिंग, अग्नि, शिव, भविष्य आनी हेर पुराणांत गणेशाच्या अवताराच्यो कथा आसात. गणेशपुराण नांवाचें उपपुराणूय आसा. ह्या पुराणांनी चार युगांत महोत्कटविनायक, गुणेश, गणेश आनी धूमकेतू अशे चार अवतार वर्णन केल्यात. तातूंतलो धूमकेतू कलियुगांतलो आसून तो अजून जावपाचो आसा.

व्यासाचें 'महाभारत' गणपतीन बरोवन घेतिल्लें, अशी कथा उत्तर भारतांतले प्रतींतल्या आदिपर्वांत आसा. दक्षिण भारतांतल्या महाभारतांत ती कथा ना देखून, हो कथाभाग प्रक्षिप्त आसा अशें विद्वानांचें मत आसा.

गणपती हें नांव मरुद्गणाचो ईश ह्या अर्थान रुद्राकूय लायिल्लें

दिसता. तैत्तिरीय संहितेंत हुंदराक 'रुद्राचोपशु' म्हळां. तेचपरी शिवपुराणांत शिवाक लंबोदर, गजेंद्रकर्ण हीं विशेशणां लायल्यांत. त्रिनेत्र, भालचंद्र, नागबंधन हीं शिवाचीं खाशेलपणां गणपतीकूय लायिल्लीं दिसतात. ताचेवेल्यान शिव, रुद्र आनी गणेश हीं दैवतां अभिन्नरुप आशिल्लीं अशें दिसून येता. हातूंतल्यान फुडें शिवपुत्र आनी शिवगणांचो मुखेल गणेश ही कल्पना सिध्द जाली अशें दिसता.



**गणपती, हेरंब पंचरसी**

गुप्तकाळापयलींच्या साहित्यांत गणपतीविशींचो स्पश्ट उल्लेख नाशिल्ल्यान तेचपरी ताच्या पयलींच्या काळांत लेगीत ताच्यो मूर्ती मेळूंक नाशिल्ल्यान आर्यांच्या दैवतांत गणपतीचो आस्पाव नाशिल्लो, अशें म्हणूं येता. फौचर हाच्या मताप्रमाण गणपतीच्या पूर्विल्लेपणाक ताका लागून बादा येना. गणपती ही आर्येतरांची पूर्विल्ली ग्रामदेवता आसूं येत, ह्या मताक अस्तंतेच्या तेचपरी भारताच्या विद्वानांनी तेंको दिला. हेर कांय ग्रामदेवतावांगडा गणपतीची मूर्त गांवाभायर झाडापोंदा आसताली. तिचे भक्त तिचेमुखार बळी दिवन तिका रगतान न्हाणयताले आसूं येता. शेंदूर लावप हें हनुमान आनी हेर ग्रामदेवतांप्रमाण गणपतीकूय लागता. तेचपरी रक्तवर्ण, तांबडें वस्त्र न्हेसप, तांबड्या फुलांची आवड, दूर्वा, मोदक ह्यो पूजेच्यो वस्तू ह्या कांय लक्षणांवेल्यान गणपतीच्या आर्येतर मुळाकडेन निर्देश जाता.

आर्येतरांचो जेन्ना आर्य संस्कृतायेंत आस्पाव जावंक लागलो तेन्ना तांची वेवस्था करप भाग जालें. आर्यांनी ह्या मनशांच्या चोम्याक 'व्रात्य' हें नांव दिलें (बौधायनांत वर्णसंकराक व्रात्य म्हळां). हे लोक विंगडविंगड जनावरांचीं रुपडीं घालून वावुरताले. ह्या लोकांची देवता हत्तीच्या रुपान आर्यसंस्कृतींत आयली. तिकाच 'व्रातपती' हें नांव पडलें.

इतिहासाच्या प्रवाहांत जायत्या जमातींच्या देवांचीं खोशलपणां एकठांय येवन अथर्वशीर्षांत वर्णन केल्लो गणपती सिध्द जालो. वैदीक संस्कृतायेंत हो गणपती आस्पावतना ब्रह्मणस्पतीकडेन ताचें सारकेपण पळोवन ताका ब्रह्मणस्पती म्हळ्यार गणपती अशें मानूंक लागले.

गुप्तकाळांत सद्या प्रचलित आशिल्लें गणपतीचें रूप सिध्द जालें. गणेशपुराणासारक्या साहित्याची निर्मणी जाली. गाणपत्यसंप्रदाय तयार जालो. बौध्दांनी तशेंच तंत्रमार्गीयांनी गणपतीचो आस्पाव आपल्या प्रणालींत केलो. तेन्नासावन नेपाळ, ब्रह्मदेश, थायलंड (सयाम), जपान, चीन, जावा, बाली, बोर्नीओ आनी हेर शेजारी देशांतूय गणपतीचो प्रसार जालो. आयजूय ह्या देशांनी खाशेल्यो गणेशमूर्ती दिसतात. भारतांत हिमालयसावन रामेश्वरमेरेन हजारांनी गणेशस्थानां आसात. महाराष्ट्रांतल्या अष्टविनायकाच्या सुवातीची व्हड नामना आसा.

१९ व्या शतमानांत लोकमान्य टिळकान राश्ट्राभितर स्वतंत्रतायेची जागृताय निर्मूपाखातीर गणपतीच्या महात्म्याचो उपेग करून घेतलो. तेपासत ताणें भौशीक गणेशोत्सवाची परंपरा सुरू केली.

**वर्णन:** गणपतीच्या रुपाचीं जायतीं वर्णनां पुराणांत केल्लीं आसात. गणपत्यथर्वशीर्षांत गणपतीचें मूर्तिध्यान फुडलेतरेन दिलां:

एकदन्तं चतुर्हस्तं पाशमङ्कुशधारिणम् ।
रदं च वरदं हस्तैर्बिभ्राणं मूषकध्वजम् ।
रक्तं लम्बोदरं शूर्पकर्णकं रक्तवाससम् ।
रक्तगन्धानुलिप्ताङ्गं रक्तपुष्पैः सुपूजितम् ।

अर्थ: एकदंत चार हातांचो, पाश आनी अंकूश धारण करपी, एका हातांत मोडिल्लो दांत आनी दुसरो हात 'वरद' मुद्रेंत, जाचें चिन्ह हुंदीर आसा असो, तांबड्या रंगाचो, व्हडल्या पोटाचो, सुपासारक्या कानांचो, तांबडें वस्त्र न्हेसपी, तांबडें गंध लावपी आनी तांबड्या फुलांनी पूजीत.

भारतीय चित्रकलेंत आनी शिल्पकलेंत गणपतीक दोन ते पांच मेरेन तकल्यो, एक ते तीन दांत दाखयल्ले आसतात. पयलीं तो दोन हातांचो (परशु आनी मुळो हातांत घेतिल्लो) आशिल्लो. पूण फुडें ताका चार, स, आठ, धा आनी सोळा हात दाखोवपाक लागले. पुण्यांत तीन सोंडींचो गणपती आसा. तीन तोंडांचे गणपती जपानांत जाल्यार चार तोंडांचे कंबोडियांत आसात. गणपतीच्या गळ्यांत वा कमरेभोंवतणी सोरोप आसतात. हुंदीर हें ताचें चिन्ह आनी वाहन आसा. हेरंब गणपतीचें वाहन शिंव, तर मयुरेश्वराचें मोर आसता. हिमालयांत एक तकली नाशिल्लो 'मुंडकटा' गणपती आसा. गणेशपंचायतनांत नर्मदेंतलो तांबडो गुणो गणेश म्हूण दवरतात. कांय सुवातींनी शिवाभशेन गणेशाचीय लिंगरुपांत पूजा करतात. दावे सोंडेचो गणपती चड प्रचारांत आसा. उजवे सोंडेचो गणपती चड खर मानतात आनी कांय धाराविक घराणींच तो पूजतात. जायत्या सुवातींनी स्वयंभू आसात. ताका महासिध्दिदायक अशें म्हण्टात.

**उत्सव:** गणपतीचो जल्मदीस भाद्रपद शुक्ल ४ आसून त्या दिसाक 'गणेश चवथ' म्हण्टात. ह्या दिसा गणपतीची मूर्त पूजेक लायतात. ती दुसरे दिसा ऋषिपंचमीक पावयतात. हाका 'देड दिसाचो गणपती' म्हण्टात. कांय कडेन पांच, सात, णव, इकरा, एकवीस दीस लेगीत गणपतीचें पूजन जाता.

चवथीक गणपतीचें पूजन भारतांत व्हडा उमेदीन जाता. पूण तें चड भौशीक स्वरुपांत आसता. कोंकण, गोंय आनी हेर थोड्याच सुवातींनी गणपतीचें पूजन घराघरांनी जाता.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद: चवथ (गणेश चतुर्थी).

**गणपती संस्थान, खांडोळें:** मूळ नावेली (दिवाडी) सावन सुमार इ. स. १५४० वर्सा हें दैवत खांडेपारा स्थलांतर जाल्लें. थंयच्यान तें नार्व्यां स्थलांतर जालें. सुमार इ. स. १७४९ वर्सा श्री गणपती दैवत नार्व्यांसावन स्थलांतर जावन अंत्रुज म्हालांतल्या खांडोळें गांवांत एका दोंगराचे कुशीक सुरक्षित जाग्यार श्री गणपतीच्या देवळाची स्थापना जाली. आयज लेगीत तें देवूळ खांडोळें गांवांतूच आसा आनी त्या वाठाराक 'श्रीगणपतीवाडो' अशें म्हण्टात.

ह्या देवळांत मुखेल दैवत म्हळ्यार श्रीगणपती आनी ताचीं वांगडी दैवतां म्हळ्यार उजवेवटेन खास वेगळ्या देवळांत श्री शांतादुर्गा, श्री ग्रामपुरुष, गणपतीच्या गर्भागारांत श्रीपूर्वाचारी, श्री रवळनाथ,

श्रीमहालक्ष्मी, श्री लक्ष्मीनारायण आनी श्रीसूर्यनारायण वेगवेगळ्या गर्भागारांत पूण श्री गणपतीच्या देवळांतूच आनी श्री निराकारी एका पटांगणांत श्री गणपतीसामकार तेचप्रमाण श्रीकालभैरव शांतादुर्गा देवी सामकार अशे तरेन त्या दैवतांची स्थापना केल्या.

श्री गणपतीची पूर्विल्ली मूळ पाशाणी मूर्त जी गर्भागारांत अधिष्ठित आशिल्ली, ते मूर्तीक वेरो गेल्यो. देखून, त्या देवस्थानाच्या सगळ्या कुळावी म्हाजनांनी एकठांय येवन मूळ मूर्त थंयच्यान काडून ते सुवातीर सोबीत काळ्या पाशाणाचे मूर्तीची विधीपूर्वक प्रतिश्ठापना केली. हो प्रतिश्ठापन सुवाळो शके १८९० मार्गशीर्ष शुक्ल त्रयोदशी किलक संवत्सरी, ३१ जानेवारी १९६९ दिसा जालो. पोरनी मूर्त त्याच गर्भागारांत उजवे वटेन दुसऱ्या आसनाचेर सुरक्षित जपून दवरल्या. उपरांतच्या काळांत ह्या देवळाचो जीर्णोध्दार करून देवळामुखार व्हडलो मंडप बांदलो. ह्या मंडपांत लग्नां-मुजी सुवाळे जातात.

दरेक म्हयन्याच्या शुक्ल चवथीक रातीचो श्री गणपती देवाचो शिबिकोत्सव मनयतात. रामनम, अनंतव्रत, दसरो, तुळशीलग्न, कालो, गौळणकालो अशे उत्सव जातात. ह्या देवाचो वर्सुकी महापर्वणी उत्सव माघ शुक्ल त्रयोदशीक मनयतात. त्याच दिसा श्री शांतादुर्गा देवीच्या देवळांत सवायशिणी बायलो आपापलीं दिवजां पेटयतात. माघ शुक्ल चवथीक मखरपूजा आसता. श्री गणपती जयंती उत्सवावेळा लालखींतल्यान मिरवणूक जाता.

ह्या देवळाचे संस्थापक कुळावी म्हाजन, गौड सारस्वत ब्राह्मण सात गोत्रांचे आसात. ते भारद्वाज, काश्यप, कौशिक, जमदग्नी, गौत्तम, वसिष्ठ आनी अत्री अशा गोत्रांचे आसून स्मार्त, वैष्णव ह्या दोनूय सांप्रदायाचे आसात. भारद्वाज गोत्राचे शेणवी खांडेपारकार आनी शेणवी वेलिंगकार हे स्मार्त सांप्रदायाचे आसून हेर सगळे माध्व आनी वैष्णव सांप्रदायाचे आसात. कौशिक गोत्राचे कामत आनी प्रभू, जमदग्नी गोत्राचे शेणवी, भारद्वाज गोत्राचे प्रभू, पै, शेणवी खांडेपारकार, शेणवी वेलिंगकार, गोतम गोत्राचे महाले, अत्री गोत्राचे कुडव, नावेलकार, वासिष्ट गोत्राचे प्रभू आनी काश्यप गोत्राचे कामत शेणय अशीं गोत्रवार उपनामां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**गणितशास्त्र:** गणनक्रिया कशी करची हें ज्या शास्त्रांत शिकयतात त्या शास्त्राक 'गणित' हें नांव पडलें, अशें म्हण्टात. मानवी मनाचो परमोच्च आविश्कार म्हळ्यार गणित, अशीय गणिताची व्याख्या करतात. गणिताच्या वेव्हारीक उपेगाक लागून, खास करून यांत्रिकी (mechanics) आनी अभियांत्रिकी (engineering) ह्या विशयांची बसका गणिताच्या गिन्यानाचेर आदारिल्ली आशिल्ल्यान गणितशास्त्राक म्हत्वाची सुवात प्राप्त जाल्या. ज्योतिशशास्त्र, भौतिकशास्त्र, संख्याशास्त्र ह्या विज्ञानाच्या सगळ्या मुळाव्या शाखांनी गणिताचो उपेग जाता. मानव्य शाखांनी आनी कलेच्या मळार लेगीत गणिताचें म्हत्व दिसानदीस वाडत आसा.

स्थूलमानान गणिताचे शुध्द गणित आनी अनुप्रयुक्त (applied) गणित अशे दोन भाग मानतात. बीजगणित, विश्लेशण, भूमिती, अंकगणित, महत्वमापन, संच सिध्दांत, संख्या सिध्दांत, त्रिकोणमिती, कलनशास्त्र आनी सांख्यिकी ह्यो शुध्द गणितशास्त्राचो हेर शाखा जावन आसात. अनुप्रयुक्त गणितांतले यामिकी, द्रायुयामिकी, गोलीय हरात्मकां, हरात्मक विश्लेशण, तरंग गती, ऊश्मागतिकी, पुंजयामिकी, वायुयामिकी, स्थितीस्थापकता, परिमाणात्मक विश्लेशण आनी खगोलीय यामिकी हे विशय भौतिकी, अभियांत्रिकी आनी हेर वेव्हारीक विशयांकडेन संबंदीत आसात.

**गणिताचो इतिहास:** *अंकगणित (*)* ही गणितशास्त्राची मुळावी बुन्याद जावन आसा. अंकगणिताची सुरवात अंकज्ञानापसून जाता. मेजणाचें तंत्र आयज जरी सादें आनी सोपें दिसलें तरी आदिमानवाक तें सोदून काडपाक कितलेशेच कश्ट पडल्यात आसूंक जाय. स्वताच्या मालकी हक्कांच्या वस्तूंचें मेजप करपाक आदिमानव कसो शिकलो, ताणें आंकड्यांखातीर प्रतीकां वापरपाची प्रथा केन्ना सुरू केली आनी आंकडे बरोवपाची कला केन्ना हातासली, हें निश्चितपणान सांगप कठीण. आंकडे आनी संख्या दाखोवपाखातीर वेगवेगळ्या देशांनी वेगवेगळ्यो पध्दती आशिल्ल्यो. हातूंत खास करून भारत, चीन, ईजिप्त, बाबिलोनिया, ग्रीस आनी रोम ह्या संस्कृतायांनी केल्ली कामगिरी उल्लेख करपासारकी आसा. कांय देशांनी खाशेलीं चिन्हां आशिल्लीं, जाल्यार कांय देशांनी लिपींतल्या अक्षरांनी आंकडे आनी संख्या दाखोवपाची पध्दत आशिल्ली. पूण संख्या अगणित आशिल्ल्या कारणान त्यो दाखोवपाक इतलीं असंख्य चिन्हां खंयचेच लिपींत मेळप शक्य नाशिल्लें. ताका लागून फुडली उदरगत नेटान जावंक पावली ना. पूण भारतांत शून्याचो सोद लागलो आनी ९ प्रतिकात्मक आंकडे थारायतकच थळाव्या मूल्याची कल्पना आयली आनी फुडली संख्या दाखोवप शक्य जालें आनी दशमान पध्दत जगाक मेळ्ळी. पूण हें सगळें गिन्यान मेळोवपाक १५ शतमानांचो काळ लागलो. शून्याच्या सोदाक लागून संख्या मांडपाची कला मनशाक मेळ्ळी आनी अशे तरेन गणिताचे उदरगतीचे वाटेंतली आडखळ पयस जाली.

संख्या मांडपाची ही दशमान पध्दत पयलींच्या लोकांनी हिंदूंकडल्यान शिकून घेतली आनी बगदादांतल्यान भायर पडिल्ल्या हिब्रू विद्वानांनी तिचो स्पेनांत प्रसार केलो. स्पेनांतसून ही पध्दत इटलींत पावली आनी लेओनार्दो फीबोनात्ची नांवाच्या इटालिअन गणितज्ञान ती युरोपभर पातळायली आनी ताका लागून फुडल्या संशोधनाचो मार्ग सोपो जालो.

मनीस संस्कृतायांच्या आरंभाच्या काळांत 'भूमिती' ही गणिताची आनीक एक शाखा उदयाक आयली. भूमितीची बुन्याद जरी वेदकाळांत तयार जालीं तरी तिचो आवांठ मेजपापुरतोच मर्यादीत आशिल्लो.

भूमिती जरी भारतांत उदरगतीक पावली तरी खऱ्या अर्थान भूमितींतली मुखेल उदरगत पूर्विल्ल्या ग्रीक लोकांनी केली अशेंय म्हण्टात. काटकोन त्रिकोणांत कर्णावयल्या चौरसाचें क्षेत्रफळ काटकोन करपी दोन कडांवयल्या चौरसांच्या क्षेत्रफळांचे बेरजेइतलें आशिल्लें, हें पायथॅगोरस हाचें प्रमेय शुल्बसूत्रांत पयलीं मांडिल्लें. आयज ताका 'पायथॅगोरस संख्या' म्हण्टात, ताका वेदकाळांत 'सूपलविध संख्या' अशें म्हण्टाले.

भूमितीमध्य कसो काडचो आनी वेगवेगळ्या आकारांच्यो वेदी कश्यो बांदच्यो हेविशीं समद्विभुज त्रिकोण, काटकोन त्रिकोण, चौरस, आयत, अणिमत् हांचे गुणधर्म शुल्बसूत्रांत सांगिल्ले. पूण ग्रीक गणितज्ञांनी दिल्ली तर्ककठोर पध्दत हिंदू भूमितींत दिसून येना. स्वयंसिध्दकां, गृहीत कृत्यां, प्रमेय, प्रतिज्ञा, साध्य, रचना, सिध्दता अशे तरेची तर्कशुध्द मांडावळ आशिल्ली भूमिती ग्रीक लोकांनी तयार केली. 'ज्योतिशशास्त्र' ही गणिताची आनीक एक शाखा वेदकाळांत जल्माक आयली. ह्या शास्त्राची उदरगत चालू आसतनाच आर्यावर्तांत त्रिकोणमिती (trigonometry) जल्माक आयली.

गणिताच्या सगळ्या शाखांची वाड खऱ्या अर्थान सतराव्या शतमानासावन नेटान जायत गेली. हाचें कारण म्हळ्यार मनशान लायिल्लो मुद्रणकलेचो सोद, गॅलिलीओ हाणें लायिल्लो दुर्बिणीचो सोद आनी भौतिकी तशेंच अभियांत्रिकी ह्या दोन विशयांनी मनशान केल्ली उदरगत. तशेंच ह्या काळांत लायब्नित्स आनी न्यूटन हांणी 'कलनशास्त्र' (calculus) ही गणिताची म्हत्वाची शाखा सोदून काडली. कलनशास्त्राच्या ह्या सोदाक लागून भौतिकशास्त्र, रसायनशास्त्र, अर्थशास्त्र, अभियांत्रिकी ह्या शाखेंतल्यो विंगड विंगड समस्या सोडोवपाखातीर गणिताचो उपेग जावपाक लागलो.

**भारत:** भारतांत गणित हो विशय यज्ञ संस्थेंतल्यान जल्माक आयलो. अग्नीक आहुती दितना मनशान पयल्या आंकड्याची थापणूक केल्या आसतली. जश्यो जश्यो आहुती चड प्रमाणांत दिवपाक सुरवात जाली तश्यो तश्यो संख्या व्हडल्यो जावपाक लागल्यो. 'तैत्तिरीय संहिता' (७.२.११) हातूंत अशें दिसून येता की सम संख्येक युग्म आनी विशम संख्येक अयुग्म अश्यो संज्ञा आसात आनी ४, ५, १०, २० ह्या संख्यांचे

पाढे दिल्यात.

'वाजसनेयी संहिता' (१७.२) हातूंत धाच्यो पटी दितना $१०^{१२}$ मेरेनच्या संख्यांचीं नांवां आसात आनी तैत्तिरीय संहितेंत $१०^{१९}$ मेरेनच्या संख्यांचीं नांवां दिल्यांत.

वेदांग ज्योतिश्यांत अंकगणितांत येवपी कृत्यां म्हळयार बेरीज, वजाबाकी, गुणाकार, भागाकार आनी तेविशींच्या परिकर्माष्टकांचो उपेग केल्लो दिसून येता. त्रैराशिकाचो उपेगूय तातूंत केला. वेदांग ज्योतिशांतलीं कालमापक एककां (units) आनी तातूंत कोश्टकांनी दिल्ल्यो संख्या, हाचेवेल्यान वेदकाळांत अंकगणितांत भारतान बरीच उदरगत केल्ली, हें दिसून येता. शुल्बसुत्रांत करणी म्हळयार अपरिमेय (uncountable) संख्यांचोय बरोच उल्लेख आयला. करणी संख्येचो अभ्यास वेदकाळासावन सुरू जालो अशें म्हण्टात. कारण $\sqrt{२}$ चें आसन्न (approximate) मोल

$$१ + \frac{१}{३} + \frac{१}{३\times४} - \frac{१}{३\times४\times३४}$$

अशें शुल्बसूत्रांत सांगलां. हे पध्दतीक 'सविशेश पध्दत' अशें म्हण्टाले. ही 'सविशेश पध्दत' अभ्यासल्यार वेदकाळांत अंकगणिताचो पांवडो कितलो ऊंच आशिल्लो हाची कल्पना येता. वेदी कश्यो बांदच्यो ह्या संदर्भांत $\sqrt{६}$, $\sqrt{१०}$, $\sqrt{४०}$ हांचो उल्लेखूय शुल्बसूत्रांत आसा. शुल्बसूत्रांत $\pi$ चें मोल सुमार ३.०८८ इतलें दिलां. हें मोल अचूक मोलापरस पांच टक्क्यांनी उणें आसा.

वेदकाळाउपरांत भारतांत तयार जाल्लो गणितशास्त्रावयलो पयलो ग्रंथ म्हळयार 'बक्षाली' हें हातबरप. हो भूर्जपत्राचेर बरयल्लो ग्रंथ इ. स. प. २०० ते इ. स. २०० च्या सुमाराक जाल्ल्या ग्रंथाची प्रत आसतली, अशें मानतात. हातूंत बीजगणितांतलीं द्विघात (quadratic) समीकरणां सोडयल्यांत. तशेंच वर्गमूळ (square root) काडपाखातीर वयर सांगिल्ली 'सविशेश पध्दत' वापरल्या. हें हातबरप गाथा हे बोली भाशेंत आसून ताचो लिपी शारदा आसा. ही बोली भास मथुरेक कुशाण वंशांतले राजा (कनिष्क, हुविष्क आदी) राज्य करीत आसतना प्रचारांत आशिल्ली. हाचेवेल्यान आनी हेर इतिहासांतल्या पुराव्यावयल्यान 'बक्षाली' हातबरपाचो काळ थारायतात. ह्या हातबरपाच्या णवव्या आनी सत्तावन्नाव्या पानार 'द्विघात समीकरण' सोडयलां. तशेंच वर्गमूळ काडपाक वयर सांगिल्ली 'सविशेश पध्दत' वापरल्या. कांय हातबरपांच्या पुराव्यांवेल्यान गणितश्रेढीचो सोद, बीजगणितांतली द्विघात समीकरणां सोडोवपाची रीत आनी सविशेश पध्दतीचो उपेग भारतीयांक खबर आशिल्लो, अशें दिसून येता.

आर्यभट नांवाचो गणितज्ञ पांचव्या शतमानांत जावन गेलो. ताणें आपल्या 'आर्यभटीय' ह्या ग्रंथांत अंकगणित, बीजगणित, ज्योतिशशास्त्र हे विशय फकत १०८ आर्याबध्द कवितेंत दिल्यात. आर्यभटान $\pi = \frac{६२८३२}{२००००}$ अशें मोल दिलां. हें आसन्न मोल चार दशांश स्थळांमेरेन बरोबर आसा. 'ज्या' फलनां सगळयांत पयलीं आर्यभटान सोदून काडलीं, अशें गणित इतिहासकार राऊझ बॉल हांचें म्हणणें आसा.

आर्यभटाउपरांत भारतांत जायते गणितज्ञ जावन गेले. पूण गणिताच्या मळार भरीव कामगिरी करपी मुखेल गणितज्ञ म्हूण बाराव्या शतमानांत जावन गेल्लो 'भास्कराचार्य' हाचें नांव घेतात. धन वा ऋण संख्या घेवन तिचो वर्ग केल्यार उत्तर धन येता हें भास्कराचार्यान पयलीं सोदून काडलें आनी ऋण संख्येचें मूळ अस्तित्वांत नासता, अशेंय ताणें सांगलें. मिश्र करणी संख्यांचो गुणाकार कसो करचो, हाचें सूत्र तशेंच मिश्र करणी संख्येचें वर्गमूळ कशें काडचें हाचें सूत्र पयलीं भास्कराचार्यान दिलें. भास्कराचार्याची सगळयांत व्हड कामगिरी म्हळयार अनिश्चित समीकरणां सोडोवपाचे पध्दतीचो सोद. भास्कराचार्याउपरांत भारतांत जायते गणितज्ञ जाले. तातूंत सोळाव्या शतमानांतल्या नीलकंठ ह्या गणितज्ञान केल्ली कामगिरी उल्लेख करपासारखी आसा.

**बाबिलोनिया आनी ईजिप्तः** बाबिलोनियांत आंकड्यांखातीर वापरिल्लीं चिन्हां सुमार इ. स. प. २००० ते इ. स. प. २०० ह्या काळांतलीं आसूंक जाय, असो अस्तंती पंडीतांचो अदमास आसा. बाबिलोनियन लोकांनी वापरिल्ले संख्या दाखोवपाचे पध्दतींत दोश आशिल्ले आनी तातूंत एकसूत्रताय नाशिल्ली. हे पध्दतींत ल्हान वापर करून धा आंकडो दाखयताले पूण शून्याखातीर वर्तुळांचो वापर जायनासलो, कारण शून्याचो सोद त्या काळांत लागू नासलो. सद्याचे दशमान पध्दतीकडेन सारकेंपण आशिल्ली आनी दरेक आंकड्याचें स्थानवैशिश्ट्य सांगपी कल्पना बाबिलोनियन लोकांनी वापरिल्ली. तिका 'षष्टिकमान पध्दत' अशें म्हण्टात. पूण तातूंत साठांमेरेन संख्या दाखोवपी साठ चिन्हां नात. पुराणवस्तुसंशोधनांत मेळिल्ल्या बगदाद हांगाच्या दोन तक्त्यांनी एक ते साठ ह्या आंकड्यांचे वर्ग दिल्यात आनी आठ उपरांतच्या आंकड्यांचे वर्ग फुडले पध्दतीन दाखयल्यातः $८^२=१+४$, $९^२=१+२१$, $१०^२=१+४०$; हातूंत उजवे वटेनचो एक म्हळयार ६० धरपाचे. हे पध्दतीन ६०, ६३००, $\frac{१}{६०}$, $\frac{१}{३६००}$ हांचेखातीर खास चिन्हां दिल्यांत.

पुराणवस्तुसंशोधक हेन्री हाका ईजिप्तांत १८५८ त ५.४ मी. लांब, ०.३३ मी. रुंद आशिल्ल्या आनी एक तरेच्या बोरूपसून (सायपेरस पपायरस) तयार केल्ल्या तक्त्याचेर बरयल्लें हातबरप सांपडलें. ह्या तक्त्याक 'र्‍हिंड पपायरस' अशें म्हण्टात. हो सादारणपणान इ. स. प. १८०० ते इ. स. प. १६०० ह्या काळांतलो आसतलो, अशें युरोपीय जाणकार मानतात. आमोस नांवाच्या गणितज्ञान पोरन्या गणितग्रंथावयल्यान बरोवन काडिल्लें हें हातबरप आसा. हातूंत $\frac{२}{२९}$ हो अपूर्णांक $\frac{१}{२४} + \frac{१}{५८} + \frac{१}{१०४} + \frac{१}{१३२}$ असो दाखयला, तें बरोबर आसा. तशेंच त्रिकोणाच्या क्षेत्रफळाविशींचें सूत्र ताणें बरोबर दिलां. हो तक्तो बरोवपाचें काम केलें म्हूण अस्तंती लोक आमोस हाका 'आद्यगणितकार' अशें म्हण्टात. ईजिप्तांतल्या पिरॅमिडांचेर पाट खणपाविशींचें गणित, तेखातीर लागपी कामगारांची संख्या, कामाक लागपी काळ हांचे उल्लेख आसात. हाचेवेल्यान काळ, काम, वेग हांचेविशींचीं उदाहरणां त्या काळांत सोडयताले, अशें म्हणूं येता.

**ग्रीसः** ग्रीकांनी ईजिप्शियन लोकांकडल्यान गणिताचें गिन्यान मेळयलें. पूण आंकडे दाखोवपाखातीर तांणी ईजिप्शियन चिन्हां वापरलीं नात. तेखातीर ग्रीकांनी ग्रीक लिपींतल्या अक्षरांचो उपेग केलो. तांणी तातूंत पूर्विल्ले लिपींतलीं आनीकूय चार अक्षरां घेतलीं. हाकालागून वट्ट २६ प्रतीकांनी व्हडल्यो-व्हडल्यो संख्या दाखोवप कठीण जावन विशयाची उदरगत जावंक पावली ना. दशमान पध्दतींत बेरीज, वजाबाकी, गुणाकारासारकीं कृत्यां करतना हातचे म्हूण जे आंकडे घेतात, तसली रीत ग्रीकांचे पध्दतींत ना. ग्रीकांनी भूमितीशास्त्रांत केल्ली उदरगत मात म्हत्वाची आसा. दरेक प्रमेयाची तर्कशुध्द विस्कटावणी करपाची पध्दत सगळयांत पयलीं ग्रीकांनी सोदून काडली. हे नदरेन, यूक्लिड हाणें भूमिती विशयाचेर बरयिल्लीं तेरा पुस्तकां उल्लेख करपासारकीं आसात. भूमितींतल्या शांकव ह्या वक्राचे गुणधर्म सगळयांत पयलीं ॲपोलोनियस ह्या ग्रीक गणितज्ञान शुध्द भूमितीवरवीं सिध्द केले. ग्रीसांतूच अनुप्रयुक्त गणिताची बुन्याद घालप जालें. भूमितीची आनी भौतिकशास्त्राची बुन्याद *आर्किमिडीज (*)* ह्या ग्रीक गणितज्ञान घाली. आर्किमिडीजासारको असामान्य बुध्दीचो गणितज्ञ मेळून लेगीत ग्रीक लोकांनी फुडें गणितशास्त्रांत व्हडलीशी उदरगत केली ना. ग्रीक गणिताचो काळ इ. स. प. ६०० ते इ. स. प. २०० ह्या काळखंडांत पडटा.

**चीनः** इ. स. प. दुसऱ्या शतमानांत चांगत्सांग नांवाच्या गणितज्ञान 'केव-च-आंग-स-आन-शूह' हो गणिताचो ग्रंथ संपादित केलो. ह्या पुस्तकांतलो विशय मुळाव्या स्वरूपाचो आसून इ. स. १५०० मेरेन ह्या पुस्तकाच्यो खूब आवृत्त्यो आयल्यो. तेराव्या शतमानांत चूशीकी नांवाच्या गणितज्ञान द्विपदीचे अश्टम घातामेरेनचे सहगुणक काडले. ताणें चतुर्थ घाताचें एक खाशेलें उदाहरणूय सोडयलें. ह्याच सुमाराक दुसरो एक

चिँनी गणितज्ञ लिचेह हाणें तृतीय घाताचें एक खाशेलें उदाहरण सोडयलें. पूण व्यापक स्वरुपाचो कसलोच गणितीय प्रस्न चीनान सोडयलोना.

**इराणः** आठव्या शतमानाचे सुर्वेकसावन, खलिफा अल् मन्सूर हाचे मुस्तींत आनी फुडेंय बगदाद हें शिक्षणाचें व्हड केंद्र आशिल्लें. थंय गणित आनी ज्योतिशशास्त्र ह्या विशयांनी उदरगत जावंची म्हूण खलिफांनी हिंदुस्थानांतल्या पंडीतांक आपोवन व्हेले. तातूंतल्या कंक ह्या पंडीतान गणित आनी ज्योतिश ह्या विशयांवेल्या भारतीय ग्रंथांची मुसलमान विद्वानांक वळख करून दिली. णवव्या शतमानाच्या सुमाराक अल् ख्वारिज्मी नांवाच्या इराणी गणितज्ञान अल् फजारी हाच्या 'सिंद-हिंद' ह्या ग्रंथाचें संक्षिप्तिकरण केलें. ह्याच पुस्तकाची निवळायिल्ली आवृत्ती कांय काळान उजवाडाक आयली. हें पुस्तक युरोपीय ज्योतिशी फुडें सुमार आठशें वर्सां वापरताले. हातूंत दिल्ल्या त्रिकोणमितीय कोश्टकाचो ॲथेलहार्ड ऑफ बाथ ह्या पंडीतान ११२६ त लॅटीन भाशेंत अणकार केलो. अल् ख्वारिज्मी हाणें 'किताब अल्-जाब्र वाल मुकाबला' नांवाचो बीजगणितावेलो ग्रंथ बरयलो. हाचेवेल्यानूच युरोपीयांनी बीजगणिताक 'आल्जिब्रा' अशें नांव दिलें. इराणांतलो नामनेचो कवी उमर खय्याम हो एक बरो गणितज्ञ आशिल्लो. ताणें ॲपोलोनियस हाणें काडिल्ल्या शांकवांचो उपेग करून तृतीय घाताचें समीकरण सोडयलें. बीजगणिताचो प्रस्न भूमितीचो वापर करून सोडोवपी तो पयलो गणितज्ञ, अशें म्हण्टात.

**स्पेन आनी इटलीः** स्पेनांत आलाशिरो घेतिल्ल्या रबी बेन इझ्रा ह्या हिब्रू विद्वानान संख्या सिध्दांत सांगपी 'सिफ्र-हा-मिस्पर' ह्या नांवाचो ग्रंथ बरयलो. हो ग्रंथ अंकगणिताचेर आसून तातूंत हिंदूंचें अंकगणित सांगपाचो यत्न केला. युरोपीय लोकांक शून्याची वळख करून दिवपी हो पयलो गणितज्ञ जावन आसा. सॅम्युएल बेन अब्बास ह्या ज्यू विद्वानान 'अल् तब्सीर' आनी 'अल्किवामी' हे ग्रंथ बरयले. हिंदूंच्या दशमान पध्दतीचो प्रसार करपाक कारणीभूत आशिल्ल्या लेओनार्दो फीबोनाश्ची (इ. स. १२२०) ह्या आनीक एका गणितज्ञान अंकगणिताचेर 'Liber Abaci' हो ग्रंथ बरयलो.

**तेराव्या ते सतराव्या शतमानांतली उदरगतः** संख्या मांडपाची पध्दत आनी शून्याचो सोद ह्यो दोन मोलादीक गजाली हिंदू लोकांनी संवसाराक दिल्यो. इ. स. १४५० मेरेन संख्या बरोवपाची दशमान पध्दत सबंद जगभर पातळ्ळी. हो वेळमेरेन अंकगणित, बीजगणित, भूमिती, त्रिकोणमिती आनी ज्योतिशशास्त्र ह्या विशयांतलीं मुळावीं तत्त्वां भारत आनी ग्रीस ह्या दोन देशांतल्या विद्वानांच्या वावराक लागून जगाक मेळ्ळीं, अशें म्हण्टात. अरबांनी हें सगळें गिन्यानाचें भांडार यूरोपीय लोकांमेरेन पातळायलें.

लेओनार्दो (१४५२-१५१९) हाणें भूमिती आनी बीजगणित ह्या विशयांनी म्हत्वाचें संशोधन केलें. सतरावें शतमान सुरू जावंचे पयलीं मदल्या काळांत जाल्ले मुखेल गणितज्ञ म्हळ्यार व्हियेता, बाँबिली, स्टेव्हाइन, केप्लर, ब्रिग्झ, देझार्ग आनी गॅलिलीओ. नेपिअर हाणें १६१४ वर्सा लॉगरिथमांची कोश्टकां तयार केलीं. टार्टाल्या (१५००-५७) ह्या इटालियन गणितज्ञान तृतीय घाताचें समीकरण सोडोवपाची रीत सोदून काडली. ताणें आपलो सोद कार्डन (१५०१-७६) ह्या दुसऱ्या गणितज्ञाक कळयलो आनी कार्डनान तो सोद स्वताच्या नांवाचेर उजवाडायलो. बाँबिली आनी व्हियेता ह्या दोगांयनी बीजगणितांत संक्षिप्त प्रतीकां वापरलीं. देझार्ग (१५९३-१६६२) ह्या गणितज्ञान शांकवांविशीं बरोच अभ्यास केल्लो. ताच्या मूळ ग्रंथाची प्रत १८४५ त उजवाडाक आयली. ताणें यथादर्शनशास्त्र आनी शुध्द भूमिती ह्या विशयांनी केल्लें संशोधन म्हत्वाचें आसा. सूर्य हो सूर्यमाळेचो केंद्रबिंदू आसा, अशें कोपर्निकस (१४७३-१५४३) ह्या शास्त्रज्ञान पयलेच खेप सोदून काडलें. ताच्या ह्या सोदाक लागून गणितांत बरीच उदरगत जाली. केप्लर (१५७१-१६३०) ह्या जर्मन गणितज्ञान सूर्याभोंवतणी गिरे विवृत्त (elliptical) कक्षेंत घुंवतात आनी सूर्य त्या विवृत्ताच्या एका नाभिस्थानांत आसता, हें तत्त्व मांडलें. ह्या तत्त्वाचो आदार घेवन न्यूटन (१६४२-१७२७) हाणें गुरुत्वाकर्शण, व्यस्तवर्गाचो नेम पाळटा हें सिध्द केलें. गॅलिलीओ (१५६४-१६४२) ह्या इटालियन शास्त्रज्ञान उबे दिकेन शेंवटिल्ले पदार्थ तेच वळींत परत धर्तरेचेर येतात, अशें सांगून पडपी पदार्थांविशींचे नेम सोदून काडले. 'संघात उपपत्ती' हें ताचें मुखेल कार्य. ताणें लंबकाचे प्रयोग आनी घड्याळांचें प्रमाणीकरण हातुंतूय संशोधन केलें.

**गणिताच्या चिन्हांचो इतिहासः** ह्या संक्रमण काळांत गणितांत प्रतिकांचो वापर करपाक सुरवात जाली. रेने देकार्त (१५९६-१६५०) ह्या फ्रेंच गणितज्ञान अज्ञात पदांखातीर x, y, x हीं अक्षरां वापरपाची पध्दत सुरू केली. टार्टाल्या हाणें बेरीज दाखोवपाक $\not{p}$ हें अक्षर वापरिल्लें जाल्यार इटालियन बीजगणितज्ञ, plus ह्या शब्दांतलें पयलें अक्षर वापरताले आनी तें P, p, p हातूंतलें खंयचेय पध्दतीन बरयताले. ह्यो सगळ्यो पध्दती मतींत घेवन जर्मन आनी आंग्ल गणितज्ञांनी बेरजेचें चिन्ह + अशें आपणायलें आनी १६३० त तें रुढ जालें. इटालियन बीजगणितज्ञ वजाबाकीखातीर minus ह्या शब्दांतलें पयलें अक्षर m वा M वापरताले. जर्मन आनी आंग्ल गणितज्ञांनी वजाबाकीखातीर सद्याचें – हें चिन्ह १६३० त सावन प्रचारांत हाडलें. गुणाकाराचें चिन्ह हॅरिअट (१६३१) हाणें दोन संख्येंत टिंब दिवन दाखयल्लें. देकार्त हाणें पदां लागींलागीं बरोवन गुणाकार दाखोवपाची पध्दत घाली. लायब्नित्स हाणें १६८६ त गुणाकाराखातीर ∩ हें चिन्ह वापरिल्लें. पूण अठराव्या शतमानाचे सुरवातीक × हें चिन्ह गुणाकाराखातीर रुढ जालें. भागाकार बरयता आसतना सुर्वेक भाज्य आनी भाजक एका सकयल एक अशे बरयताले, तांचेमदीं आडवी रेघ आसनासली. फुडें त्या दोगायमदीं आडवी रेघ घालपाची पध्दत पडली. अरब लोकांनी ती पध्दत हिंदूंकडल्यान घेतली. अरबी लोक गुणोत्तर दाखयतना क-ख, क/ख वा $\frac{क}{ख}$ अशें बरयताले. ऑट्रिड हाणें १६३१ त भागाकार दाखयतना क:ख असो दाखोवन दोन टिंबांचो वापर केलो. लायब्नित्स हाणें १६८६ त भागाकाराखातीर ÷ हें चिन्ह वापरलें आनी फुडें तेंच रुढ जालें.

सारकेंपण दाखोवपी समीकरणांतलें बरोबर (=) चिन्ह पयलीं रॉबर्ट रेकार्ड हाणें १५५७ त वापरलें. अठराव्या शतमानाचे सुर्वेक हाचो वापर सर्वमान्य जालो. गुरुतर चिन्ह > आनी लघुतर चिन्ह < हीं हॅरिअट हाणें १६३१ त वापरलीं. ≠ (सारकेंपण ना) ≯ (व्हडलो न्हय) आनी ≮ (ल्हान न्हय) हीं चिन्हां पयलीं कोणें सोदून काडलीं, हें सांगप कठीण आसलें तरी ऑयलर (१७०७-८३) हाणें हीं चिन्हां वापरिल्लीं हें निश्चित. 'व्हडलो वा समान' ≥ आनी 'धाकटो वा समान' ≤ हीं चिन्हां पी. बूगेअर हाणें १७३४ त उपेगांत हाडलीं. वर्गमुळाचें चिन्ह √ पयलीं भास्कराचार्यान वापरलें आनी हेंच चिन्ह युरोपीय गणितज्ञ रुडॉल्फ हाणें १५२६ त वापरलें. न्यूटन हाणें $क्ष^{प}$ असो घात वापरपाची व्यापक पध्दत उपेगांत हाडली. वॉलिस हाणें अनंताखातीर ∞ हें चिन्ह १६५५ त जरी वापरलें तरी १७१३ सावन जेम्स बेर्नुली हाणें तें रूढ केलें. त्रिकोणमितींत येवपी स गुणोत्तरांतल्या 'ज्या' फलनाखातीर येवपी sine म्हळ्यार sin हें चिन्ह अरब लोकांकडल्यान युरोपीयांनी घेतलें आनी ताचें त्या अर्थाचें युरोपीय रुपांतर केलें. ह्या फलनाचो सोद आर्यभटान लायलो. सिकँट (छेदक) आनी टॅंजंट (स्पर्शक) हीं फलनां टॉमस फिंक ह्या डॅनिश गणितज्ञान १५८३ त सोदून काडलीं. कोसिकँट (कोच्छेदक) हें फलन रेटिकूस हाणें १५९६ त आनी कोटॅंजंट (कोस्पर्शक) हें फलन १६२० त गंटर हाणें सोदून काडलें. Sin, Sec, tan ह्या संक्षिप्त रुपांचो वापर जीरार्ड (१५९५-१६३२) हाणें सुचयलो आनी Cos, Cot हीं रुपां ऑयलर हाणें १७४८ त वापरलीं. अशे तरेन संक्षिप्त प्रतीक पध्दत गणितशास्त्रांत रुढ जाली आनी अठराव्या शतमानाउपरांत गणिताची उदरगत एकदम नेटान जावपाक लागली.

**सतरावें शतमानः** जॉन नेपिअर हाणें लॉगरिथमावयलें आपलें संशोधन पुराय करून लॉगरिथमीय कोश्टकां तयार केलीं. ह्याच सुमाराक योहनिस

केप्लर हाणें गिऱ्यांचे गतीच्या कक्षांविशींचे तीन नेम उजवाडायले. रने देकार्त हाणें १६३७ त म्हत्वाचो असो बीजभूमितीचो सोद लायलो. देझार्ग आनी पास्काल (१६२३-६२) हाणें केल्लें प्रक्षेप भूमितीवयलें संशोधन सोडल्यार शुध्द भूमितींत तांचेउपरांत सुमार देड शतमान कसलेंच संशोधन जालेंना. फेर्मा हाणें 'संभाव्यताशास्त्र' तशेंच गणितीय विगमन पध्दतीन वक्राचें क्षेत्रफळ काडप, अर्दत्रिधातीय अन्वस्ताची लांबाय काडप ह्या मुळाव्या विशयांनी संशोधन केलें. पास्काल आनी जॉन वॉलिस ह्या दोगांयनी चक्रज (cycloid) वक्राचे गुणधर्म सोदून काडले. हायगेन्झ (१६२९-९५) ह्या डच गणितज्ञान ह्या वक्राचेर फुडलें संशोधन केलें. हे सगळे उदरगतींतल्यान आंग्ल गणितज्ञ न्यूटन आनी जर्मन गणितज्ञ लायब्निट्स हांणी कलनशास्त्राचो सोद लायलो. ह्या विशयाची फाटभूंय पूर्विल्लो गणितज्ञ आर्किमिडीज आनी उपरांत फेर्मा, वॉलिस, बॅरो आनी पास्काल हांणी तयार केल्ली. न्यूटन आनी लायब्निट्स ह्या दोगांयनी कलनशास्त्राची बसका थारावन संकलन (Integration) आनी विकलन (Differentiation) हीं कृत्यां एकामेकांचीं व्यन्यास (converse) कृत्यां आसात अशें सिध्द केलें. लायब्निट्स हाच्या प्रतीकात्मक चिन्हांक लागून 'चिन्हांकित तर्कशास्त्र' हो नवो विशय उदयाक आयलो. फुडें १८५४ त बूल ह्या गणितज्ञान 'लॉज ऑफ थॉट' हें पुस्तक उजवाडावन लायब्निट्स हाचीं प्रतिकां आनी संज्ञा आपणावपांत कितलो फायदो आसा, हें सगळ्यांक पटोवन दिलें.

**अठरावें शतमानः** बेर्नुली (१६६७-१७४८) ह्या स्विस गणितज्ञान विकलनशास्त्राचो खोलायेन अभ्यास केलो आनी ताच्याच मार्गदर्शनाखाल ऑयलर (१७०७-८७) ह्या गणितज्ञाचो उदय जालो. ऑयलर हाणें गणितशास्त्रांत मोलादीक कामगिरी केली. विंगड विंगड गणितशाखांतलीं वेगवेगळीं समीकरणां, प्रमेयां, फलनां, फलितां हांची ऑयलर हाणें उपाट निर्मिती केली आनी अठराव्या शेंकड्यांत गणितशास्त्राचो आवांठ कितल्याशाच पटींनी वाडलो. गणितशास्त्रांतल्या कितल्याशाच प्रमेयांक आनी समीकरणांक ऑयलर हाचें नांव दिलां. १७४८ त उजवाडाक आयिल्लो ऑयलर हाचो 'Introductio in analysin infinitorum' (दोन खंड) हो ग्रंथ आर्विल्ल्या काळांतलें गणिताचें आद्य पाठ्यपुस्तक म्हूण मानतात. चलनकलनशास्त्राची बुन्याद आनी विकलन भूमितीचें मुळावें संशोधन करपाक ऑयलर हाचो म्हत्वाचो वांटो आसा.

लाग्रांज (१७३६-१८१३) ह्या फ्रेंच गणितज्ञान 'Theorie des fonctions analytiques' (१७९७) हो फलनविश्लेशणाचेर ग्रंथ बरयलो. यामिकीविशींच्या 'Mechanique analytique' (१७८८) ह्या ग्रंथाक लागून लाग्रांज हाका अज्रंवर किर्त मेळ्ळी आनी ह्या ग्रंथाक लागून 'यामिकी' हो विशय गणितीय विश्लेशणाचो एक भाग अशें मानूंक लागले. दरेक गजाल बुध्दीचे साणीचेर तपासप गरजेचें आसा, असो दंडक ॲलांबेर (१७१७-८३) ह्या नामनेच्या गणितज्ञान घालो आनी ताका मान्यताय मेळ्ळी.

फ्रेंच राज्यक्रांतीच्या काळांत १७९५ त थापणूक जाल्ल्या एकोल पॉलिटेक्निक ह्या अभियांत्रिकी महाविद्यालयांत लाग्रांझ, लाप्लास (१७४९-१८२७), माँझ (१७४६-१८१८) हे नामनेचे फ्रेंच गणितज्ञ अध्यापक म्हूण काम करताले. ताका लागून गणिताच्या इतिहासांत हे संस्थेक म्हत्वाची सुवात प्राप्त जाल्या. लाप्लास हाच्या 'Mechanique Celeste' (५ खंड, १७९९-१८२५) ह्या ग्रंथाक लागून खगोलीय यामिकी हो विशय गणितीय विश्लेशणाची शाखा अशें सर्वमान्य जालें. खगोलशास्त्र, संभाव्यताशास्त्र आनी गणितीय विश्लेशण ह्या गणितशाखांनी लाप्लास हाणें मोलादीक संशोधन केलें. हालींच्या काळांत लाप्लास रुपांतर, लाप्लास समीकरण आनी जात्य फलनां हांकां गणितीय विश्लेशणांत म्हत्वाची सुवात प्राप्त जाल्या. गास्पार माँज (१७४६-१८१८) ह्या नामनेच्या गणितज्ञान संश्लिश्ट भूमिती (Synthetic Geometry) ह्या विशयाचेर 'Geometrie descriptive' (१७९९) हो ग्रंथ बरोवन भूमितींतल्या नव्या युगाची बुन्याद घाली. इमारतींचे आराखडे काडपाचे पध्दतींत ह्या ग्रंथाक लागून खूब सुदारणा जाल्यो. ह्याच सुमाराक लाझार कार्नो (१७५३-१८२३) ह्या फ्रेंच गणितज्ञान वैश्लेशिक आनी संश्लिश्ट भूमितींत मोलादीक संशोधन केलें आनी 'Geometrie de position' (१८०३) हो नामनेचो ग्रंथ बरयलो.

**एकोणिसावें आनी विसावें शतमानः** फूर्ये (१७६८-१८३०) ह्या फ्रेंच गणितज्ञान १८२२ त 'Theorie analytique de la chaleur' हो ग्रंथ बरोवन स्वेच्छ फलनाविशींचें आपलें नवें मौलिक तत्त्व मांडलें. १८२२ त पाँस्ले (१७८८-१८६७) हाचो प्रक्षेप भूमितीवयलो 'Trait des proprietes projectives des figures' हो म्हत्वाचो ग्रंथ उजवाडाक आयलो. जर्मन गणितज्ञ प्ल्यूकर (१८०१-६८) हाणें वैश्लेशिक भूमिती, समांगी सहनिर्देश, परिगणन भूमिती ह्या मळांचेर मुळाव्यो संकल्पना मांडल्यो. श्टाइनर (१७९६-१८६३) ह्या गणितज्ञान १८३२ च्या सुमाराक संश्लिश्ट भूमितीचो एक खाशेलो संप्रदाय तयार केलो. श्टाइनर हाच्या संकल्पनांचो फुडें स्टाउट हाणें विस्तार केलो आनी संश्लिश्ट भूमितीक अदिक तर्ककठोर सुवात मेळोवन दिली.

एकुणिसाव्या शतमानात अयूक्लिडीय भूमितीच्या सोदाक लागून गणितशास्त्राच्या उदरगतीक एक नवी दिका मेळ्ळी. लोबाचेव्हस्की (१७९३-१८५६) हाणें १८२६-२९ त आनी यानोश बोल्यॉई (१८०२-६०) हाणें १८३१-३२ त स्वतंत्रपणान समांतर वळींचें गृहीतक वगळून नवे भूमितीची बुन्याद घाली. १८५४ त, र्‍हिमान (१८२६-६६) हाणें भूमितीचें स्वभाव निर्देशन करपाखातीर वक्र चापाच्या द्विघातिक विकलन रुपाचो उपेग करचो, अशें मत मांडलें. गौस (१७७७-१८८५) ह्या जर्मन गणितज्ञाची गणना जगांतल्या तीन म्हान गणितज्ञांनी जाता. तांणी आपल्या 'Disquisitiones arithmeticae' ह्या अंकगणितावयल्या ग्रंथांत समशेशी एकरुपता आनी द्विघातिक अन्योन्यता हीं संख्यासिध्दांतांतलीं मौलिक तत्त्वां मांडलीं. १८२८ त ताणें उजवाडायिल्ल्या 'Disquisitiones generales circa superficies curvas' ह्या ग्रंथाक लागून विकलन भूमितीक एक वेगळोच फांटो मेळ्ळो. गौस हाचे हे दोनूय ग्रंथ अभिजात स्वरुपाचे अशें मानतात.

दरेक बहुपदी समीकरणाक निदान एक सदसत् मूळ आसता, अशें १७९९ त गौस हाणें सिध्द केल्लें. पूण ह्या प्रस्नाचें स्वतंत्रपणान सर्वांगीण विवरण करपाचें श्रेय आबेल (१८०२-२९) आनी गाल्वा (१८११-३२) हांकां दितात. व्यापक स्वरुपाचें पंचम घाती समीकरण सोडोवप शक्य ना, अशें तत्त्व आबेल हाणें मांडलें. गाल्वा हाणें अशें सिध्द केलें की, दरेक समीकरणाकडेन एक खाशेलो आदेश गट संबंदीत आसता आनी ह्या आदेश गटाच्या गुणधर्मांचेरूच तें समीकरण सोडोवप शक्य आसा काय ना, हें थारावं येता. ह्या विस्कटावणींतल्यानूच फुडें 'गाल्वा सिध्दांत' वा 'गट सिध्दांत' ही म्हत्वाची गणित शाखा उदयाक आयली. १८७२ त फेलिक्स क्लाइन (१८४९-१९२५) हाणें आपल्या नामनेच्या 'एर्लांगेन प्रोग्रॅम' हातूंत गट सिध्दांताची संकल्पना भूमितींत वापरून ती सर्वगामी स्वरुपाची आसा हें उक्तायलें. सोफुस ली (१८४२-९९) हाणें संतत गट विचारांत घेवन हो नवो विशय गणित विश्लेशणाचोच एक भाग आसा, हें सिध्द केलें.

गणितीय तर्ककठोरतेक प्राधान्य दिवपी गणितज्ञ कोशी (१७८९-१८५७) हाणें फलन सिध्दांतांत सदसत् फलनांचोय आस्पाव केलो. जे. आर्. आर्गां हाणें सदसत् संख्या कार्तीय प्रतलाचेर दाखोवपाची रीत सुरू केली आनी १८२४ त आबेल हाणें विवृत्तीय फलनांचो आवर्तकाळ असत् आसता, अशें दाखयलें. पूण सदसत् फलनाची उपपत्ती ही स्वतंत्र गणित शाखा आसा, अशें कोशी हाच्या समाकल प्रमेयाच्या सोदांतल्यान सिध्द जालें. कोशी हाच्या वावराचे फुडें दोन फांटे जाले. तातूंतल्या एकांत वायरश्ट्रास (१८१५-९७) हाणें ह्या विशयाच्या शुध्द वैश्लेशिक वटेचो विस्तार केलो. दुसरो फांटो र्‍हिमान हाच्या फुडारपणाखाल उदयाक आयलो. तातूंत र्‍हिमान हाणें र्‍हिमानीय पृश्ठं आनी अनुरूपी निदर्शन हांचो अभ्यास करून म्हत्वाची भर घाली.

एकुणिसाव्या शतमानाच्या पयल्या अर्दांत गणिताच्या नेमाळ्यांचो प्रसार जावपाक लागलो. त्यानिमतान वेगवेगळ्या गणितीय समित्यांची थापणूक जाली. ह्याच काळांत आर्थर केली (१८२१-९५) आनी सिल्व्हेस्टर (१८१४-९७) हांचेसारके नामनेचे गणितज्ञ इंग्लंडांत जावन गेले. आर्थर केली हाणें बैजिक निश्चलितांची उपपत्ती सोदून काडली. आयरिश गणितज्ञ विल्यम हॅमिल्टन (१८०५-६५) आनी जर्मन गणितज्ञ हेरमान ग्रॉसमान (१८०९-७७) ह्या दोगांयनी प-मितीय भूमितीची उदरगत करप शक्य आसा, अशें मत १८४४ च्या सुमाराक मांडलें. पूण केली हाकाच ह्या भूमिती शाखेचो अध्वर्यू अशें मानतात. केली हाणें आर्विल्ल्या गणितांतली आव्यूह सिध्दांत (matrices) ही म्हत्वाची शाखा सोदून काडली. आव्यूह सिध्दांत आनी 'निर्धारक' (determinants) हांकां लागून बीजगणिताक परत म्हत्व आयलें.

गणितशास्त्राचें अंकगणितीकरण करपाचे नदरेन एकुणिसाव्या शतमानांत बरीच उदरगत जाली. बोलत्सानो (१७८१-१८४८) हाणें १८१६ त समीकरणाच्या मुळाच्या स्थान निश्चितीचें प्रमेय मांडून हाका सुरवात केली. पूण आर्विल्ल्या अंकगणिताची मूळ बुन्याद वायरश्ट्रास, डेडेकिंट (१८३१-१९६१) आनी कँटर (१८४५-१९१८) हांणी अपरिमेय संख्येची व्याख्या केली, तेन्ना घाली. हातूंतल्यानूच फुडें कँटर हाका सांतातीत संख्यांच्या अस्तित्वाचो म्हत्वाचो सोद लागलो. बैजिक संख्या परिगणनीय आसात, अशें कँटर हाणें सिध्द केलें. गतिकी आनी प्रकाशकी हांच्यो उपपत्ती हॅमिल्टन आनी याकोबी (१८०४-५१) हाणें सोदून काडल्यो. मॅक्सवेल (१८३१-७९) हाणें शनीच्या कड्यांची थिरताय. ऊश्मागतिकी, विद्युत्गतिकी आदी विशयांनी केल्ल्या म्हत्वाच्या कार्यावयल्यान गणितीय विश्लेशण आनी गणितीय भौतिकी हातूंतले लागींचे संबंद आनीकूय स्पश्ट जातात. मॅक्सवेल, बोल्टस्मान (१८४४-१९०९) आनी गिब्ज (१७९०-१८६१) ह्या तिगांनीय सांख्यिकीय यामिकी ह्या विशयाची उदरगत केली. तांच्या वावराक लागून 'मूळस्थितीविशींचीं प्रमेयां' (इर्गॉडिक थिअरम्स) हो नवो विशय गणितशास्त्रांत तयार जालो. बरकॉफ (१८८४-१९४४) हाणें ह्या प्रमेयांची १९३२ त सिध्दता केली. एरिक फ्रेडहोम हाणें इ. स. १९०० त समाकल समीकरणांच्या सिध्दांताक लागींचो असो बैजिक सिध्दांत सोदून काडलो. हातुंतल्यानूच फुडें हिल्बर्ट (१८६२-१९४३) हाणें 'आयगेन' मूल्यांची उपपत्ती आनी ताका संबंदीत आशिल्ल्या अनंत मितीय अवकाशाची (Hilbert Space) उपपत्ती ह्यो आर्विल्ल्या गणितांतल्यो म्हत्वांच्यो संकल्पना १९०८ त मांडल्यो. कार्ल कूलमान नांवाच्या झुरिक हांगाच्या गणितज्ञान १८७५ त 'आलेखिकी' (Graphics) ह्या विशयावयलो अभिजात स्वरुपाचो ग्रंथ बरयलो. ताका लागून अभियंत्यांक वण्टी, पूल, बोगदे बांदता आसतना उप्रासपी प्रस्न आलेखीय पध्दतीन सोपेपणान सोडोवप शक्य जालें.

**गणिताची तात्त्विक बुन्याद:** गणिताच्या तात्त्विक बुन्यादीविशींच्या विवेचनांत गणितांतल्यो मुळाव्यो संकल्पना आनी तांचे विशींचीं प्रचलित गृहीततत्त्वां आनी स्वयंसिध्दकां हांची तात्त्विक चर्चा आनी विस्कटावणी हांचो आस्पाव जाता. गणिताचें तात्त्विक स्वरुप कितें, गणित ही तर्कशास्त्राची शाखा काय ना, गणितीय अनंत आनी संततत्त्व हांचें यथार्थ स्वरुप कितें, गणितीय अस्तित्व म्हळ्यार कितें, गणितीय सत्य कित्याक म्हणचें असल्या आनी हेर गणितांतल्या विंगड विंगड प्रस्नांच्यो जापो तीन मुखेल विचारसंप्रदायांनी वेगवेगळे तरेन दिल्यात. हे संप्रदाय म्हळ्यार: १. तर्कशास्त्रमीमांसा २. आकारवाद ३. अंताप्रज्ञावाद.

**तर्कशास्त्रमीमांसा:** तर्ककठोर तत्त्वांचेर गणिताची बुन्याद मांडपाचो मोलादीक वावर बर्ट्रंड रसेल (१८७२-१९७१) आनी व्हाइटहेड (१८६१-१९४७) हांणी 'प्रिन्सिपिया मॅथॅमॅटिका' ह्या आपल्या ग्रंथावरवीं केलें. हे विचारसरणींतलो मुखेल सिध्दांत असो की, 'अनुगामी' सारक्यो कांय मुळाव्यो कल्पना आनी तांच्या उपेगाखातीर कांय गृहीततत्त्वां हांचोच उपेग करून पुराय गणिताची तर्कशास्त्रीय मांडावळ करूं येता. हे विचारधारेची सुरवात लायब्निट्स हाणें केली, अशें म्हणटात. तेउपरांत डे मॉर्गन, बूल, श्रोडर आनी पर्स हांणी तेखातीर फाव त्या तंत्रांची उदरगत करून चिन्हांकित तर्कशास्त्राची निर्मिती केली. तेउपरांत गणिताच्या अंकगणितीकरणाचें म्हळ्यार सबंद गणितशास्त्र पुराय संख्यांच्या गुणधर्मांचेर आदारिल्लें आसा, हें सिध्द करपाचे यत्न वायरश्ट्रास आनी डेडेकिंट हांणी केले. निमाणें, पुराय अंकगणित फकत तर्कशास्त्राचेर आदारिल्लें आसा हें दाखोवपाचें कार्य फ्रेग, पेआनो, व्हाइटहेड आनी रसेल हांणी तडीक व्हेलें.

**आकारवाद:** आकारवादी आनी तर्कशास्त्रवादी हांच्यांत म्हत्वाचो फरक म्हळ्यार आकारवादी गणितांत 'आशया' परस, 'रचणुके'क चड म्हत्व दितात. हातूंत गणित चिन्हां खासा अर्थवाचक मानीनासतना फकत कागदावयल्यो सांकेतिक कुरू म्हूण मानतात. चिन्हांचो वापर कसो करचो आनी गृहीततत्त्वांसावन वैध प्रमेयां कशीं निर्माण जातात, हांचे नेम गृहीततत्त्वांतूच आस्पावतात. हे गणितशास्त्रपध्दतींत संरचनादर्शक म्हूण सिध्दांतांक अर्थ आसता. संकेतचिन्हांचो अर्थ भाशा पध्दतीन खासा विशयांतल्यान परिभाशेंत अर्थ लायतकरूच प्रमेयांक विवक्षित अर्थ प्राप्त जाता. हे विचारसरणीचो अध्वर्यू डाव्हीट हिल्बर्ट हाणें यूक्लिडीय भूमितीक गृहीत नियमबध्द स्वरुप दिलां. हिल्बर्ट हाच्या 'सिध्दांत तत्त्व उपपत्ती' उपरांत कुर्ट गोडेल हाणें १९३१ त सोदून काडिल्लें 'अपूर्णता प्रमेय' हाका लागून आकारवादाक आनीकूय घटसाण मेळ्ळी.

**अंताप्रज्ञावाद:** 'गणित म्हळ्यार अर्थ नाशिल्ल्या चिन्हांचो उपेग करून खेळपाचो एक अर्थ नाशिल्लो खेळ' अशें आकारवाद्यांचें म्हणणें आशिल्लें. पूण अंताप्रज्ञावाद्यांच्या मताप्रमाण गणित हो अर्थहीन खेळ नासून सैमाचें गुपित सोदून काडप, होच गणिताचो मुखेल हेत जावन आसा. अंताप्रज्ञावादी गणितीय सत्यां वस्तुनिश्ठ आनी चिरंतन आसात, अशें मानीनात. तांच्या मतान गणितीय सत्यां मानवी मनाची स्वैर निर्मिती आसून मनशान निर्मिल्ल्या हेर सत्यांसारकींच विकारशील आसात. ह्या संप्रदायाचो आद्यप्रवर्तक ब्रौवर (१९१२) हाच्या म्हणण्याप्रमाण गणित विचाराचें उत्पत्तिस्थान कांय मुळाव्या अंताप्रेरणांत आसून ताका लागूनूच आपल्यो इंद्रिय संवेदना 'सुरवातीक' आनी 'उपरांत' अशा दोन वर्गांनी वांटल्यात. 'कालतत्त्व' ही शुध्द, अणभवनिरपेक्ष अंताप्रेरणा आसा, अशें ब्रौवर कांटाप्रमाणूच मानतात. अंताप्रज्ञावाद्यांच्या मुखेल सिध्दांताप्रमाण वैश्लेशिक गणित आनी संच-प्रक्रिया गणित तशेंच शुध्द गणिताचो चडसो भाग त्याज्य थारता. ह्या संप्रदायाच्या गणितज्ञांनी अंताप्रज्ञावादी धर्तेचेर गणिताच्या कांय भागांची पुनर्रचणूक करून दाखयल्या. पूण तातूंत तांकां आयजमेरेन फाव ते यश मेळूंक ना.

ह्या तीनूय विचारसरणींच्या विचारमंथनांतल्यान आर्विल्लें गणित तत्त्वगिन्यान निर्माण जालें. गणिताच्या तात्त्विक बुन्यादीविशींचो वाद निर्णयामेरेन येवपाची शक्यताय खूब उणी आसा. पूण गणिताची उदरगत ह्या वादाच्या प्रस्नाचेर आदारून नाशिल्ल्यान फुडेंफुडें वचत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## गणितांतले निर्जाप प्रस्न:

खूब पूर्विल्ल्या काळासावन आयज मेरेन गणितशास्त्रांत अशे कितलेशेच प्रस्न उरल्यात, जांच्यो जापो वा जांचे शक्यतायेविशींची सिध्दताय अजून मेरेन कोणेच दाखोवंक ना. अठराव्या शेंकड्यामेरेन निर्जाप उरिल्ले कांय म्हत्वाचे प्रस्न अशे- कंपास आनी सरळ पट्टी हीं दोनूच उपकरणां घेवन फुडल्यो तीन रचना करप: १. घनाची दुप्पट करप म्हळ्यार दिल्ल्या घनाच्या दुप्पट घनफळ आसतलें अशा घनाची वट रचप. २. कोनाचें त्रिभाजन करप. ३. वर्तुळाचें चौरसीकरण करप. कितलींशींच वर्सां निर्जाप उरिल्ल्यो ह्यो रचना इटालियन गणितज्ञ रूफफीनी (१७६५-१८२२), नॉर्वेजियन गणितज्ञ आबेल (१८०२-२९) आनी फ्रेंच गणितज्ञ गाल्वा (१८११-३२) हांणी बीजगणितांत केल्ल्या संशोधनाउपरांत अशक्य आशिल्ल्याचें सिध्द केलें.

वयल्या तीन निर्जाप प्रस्नांखेरीज गणितांत आनीकूय कांय म्हत्वाचे निर्जाप प्रस्न आसात, ते अशे: ४. वतुळांत सुसम सप्तभुज अंतर्लिखित

करप. ५. वर्ग समीकरण, घन समीकरण आनी चतुर्घात समीकरणं हांचीं बीजां करणीरुपांत (एक वा चड अपरिमेय संख्यांचे बेरजेच्या रूपांत) परगटावप जशें शक्य आशिल्लें, तशेंच पंचघात समीकरण सोडोवप आबेल हाच्या काळामेरेन शक्य जावंक नाशिल्लें. रूफफिनी आनी आबेल हांणी सादारण पंचघात समीकरणाचीं बीजां करणीरुपांत परगटावप शक्य ना, अशें सिध्द केलें.

६. गोल्डबाख हाचे विचारः '२ सोडून हेर दरेक सम संख्या दोन अविभाज्य संख्यांच्या बेरजेच्या रुपांत व्यक्त करूं येता' असो तर्क गोल्डबाख हाणें ऑयलर हाका १७४२ त बरयल्ल्या एका पत्रांत परगटायल्लो. देखीक ४=२+२, ६=३+३, १६=१३+३, १००=९७+३. १९३१ मेरेन ह्या प्रमेयाची सिध्दता अशक्य दिसताली. पूण १९३१ त श्निरेलमान ह्या रशियन गणितज्ञान अशें सिध्द केलें की, खंयचोय धन पूर्णांक ३,००,००० वा कमी अविभाज्य संख्यांच्या बेरजेच्या रूपांत परगटावं येता. तेउपरांत व्होनग्राडॉव्ह ह्या रशियन गणितज्ञान, हार्डी, लिट्लवुड आनी नामनेचो भारतीय गणितज्ञ रामानुजन् हांचे पध्दतींचो उपेग करून ही संख्या ४ चेर हाडली. पूण गोल्डबाख हाच्या तर्काची पुराय जाप अजून मेरेन मेळूंक ना.

७. जुंवळयो अविभाज्य संख्याः ज्या संख्यांतलो फरक २ आसा, अशा अविभाज्य संख्यांक जुंवळयो अविभाज्य संख्या अशें म्हण्टात. 'जुंवळयो अविभाज्य संख्या असंख्य आसात' हें प्रमेय लेगीत अजून निर्जाप आसा.

८. नकासो रंगोवपः धर्तरेखयले वेगवेगळे प्रदेश दाखोवपी नकासो रंगोवपाखातीर वट्ट कितले वेगवेगळे रंग लागतले? (शेजारच्या दोन प्रदेशांक तोच रंग येवंचो न्हय ही अट आसा) ह्या प्रस्नाची जाप अजून मेरेन मेळूंक ना.

९. फेर्मा हाचें निमाणें प्रमेयः क्ष$^{स}$ +य$^{स}$= झ$^{स}$ हातूंत स $\geqslant$ ३ आसल्यार, ह्या समीकरणाच्यो जापो परिमेय संख्या वापरून काडप शक्य ना. ह्या प्रस्नाचीय पुराय जाप अजून मेरेन मेळूंक ना.

वयलो प्रस्न संख्या सिध्दांतांतलो (Number Theory) जावन आसा. संख्या सिध्दांतांत अशे जायते निर्जाप प्रस्न आसात. गणिताची जशीजशी उदरगत जाता, तशे प्रस्न सुटपावांगडाच आनीकूय निर्जाप प्रस्नांची वाड जायत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**गणितीय उपकरणांः** गणितीय प्रस्न सोडोवपाखातीर जीं उपकरणां वापरतात, तांकां 'गणितीय उपकरणां' अशें म्हण्टात. कोनमापक, पावत (पट्टी), कंपास हीं उपकरणां भौमितीक आकृत्यो काडपाखातीर वापरतात. 'गोटी चौकट' आनी 'गणकपट्टी' हीं उपकरणां मुळावे संख्यात्मक प्रस्न सोडोवपाखातीर उपकारायतात. कोश्टकां तयार करपी, मुळावे संख्यात्मक प्रस्न टंकलिखित स्वरूपांत सोडोवन दिवपी कार्यालयीन आनी वेवसायिक कामांखातीर उपेगाक येवपी कितलींशींच साधनां प्रचलित आसात. विंगड विंगड तरांच्या संगणकांवरवीं गुंतागुंतीचे प्रस्न बेगोबेग सोडोवं येतात. विज्ञानाच्या वेगवेगळ्या शांखांतले आनी उद्येगधंद्यांतले जायते प्रस्न (देखीक- अवकाशांत सोडिल्ल्या रॉकेटाचो मार्ग, तरेकवार आकारांच्या नळयांतल्या वेगवेगळ्या द्रवांचे प्रवाह) गणितीय भाशेंत मांडू येतात. ताका लागून हे प्रस्न बेगोबेग सोडोवपी आनी अर्थीक नदरेन परवडपी उपकरणां सोदपाक आनी तांचें उत्पादन करपाक व्हडली चालना मेळ्ळी. अशा उपकरणांत एकाद्रे पट्टेवयलें दोन खुणांतलें अंतर, तारांतलो विद्युत् प्रवाह वा वर्चस् (विद्युत् स्थिती), स्थितिस्थापक पटलाचेर पडपी ताण. असल्या मेजपाक येता अशा भौतिक राशींच्या रुपांनी गणितीय राशींचें निदर्शन करतात.

वेगवेगळे गणितीय प्रस्न सोडोवपाखातीर वापरांत येवपी कांय गणितीय उपकरणां अशींः सांत (finite) समीकरणां सोडोवपाचीं उपकरणां, भरती पूर्वसूचक, हरात्मक संश्लेशक (Harmonic Synthesizer), बहुपदी निर्वाहक (Polynomial Solver), एकघाती बैजिक समीकरण निर्वाहक, क्षेत्रमापक, समाकलक (Integrator), समाकलालेखक (Integraph), हरात्मक विश्लेशक (Harmonic Analyzer), अवकल विश्लेशक (Differential Analyzer).

अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांच्या 'नॅशनल रिसर्च कमिटी'वरवीं उजवाडाक येवपी 'Mathematical Tables & Other aids to computation' ह्या तिम्हयन्याळ्यांत विंगड विंगड नव्या आनी आर्विल्ल्या गणितीय उपकरणांची म्हायती दिल्ली आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**गणितीय कोश्टकां:** गणित, सांख्यिकी, ज्योतिशशास्त्र, भौतिकशास्त्र, अभियांत्रिकी आनी हेर अनुप्रयुक्त विज्ञानांतल्या संगणनाच्या कामाचो त्रास कमी जावंचो हे नदरेन कोश्टकरुपान मांडिल्ल्या मूल्यांच्या संचाक गणितीय कोश्टक अशें म्हण्टात. पावकी, निमकी, अडीजकी ह्या कोश्टकांचो वेगवेगळ्या संख्यांच्यो वेगवेगळ्यो पटी एकदम मेळोवपाखातीर उपेग जाता. सादारणपणान लॉगरिथम, त्रिकोणमितीय आनी हेर गणितीय फलनांचीं मूल्यां दिवपी कोश्टकां आनी अविभाज्य संख्या, संख्यांचे घात, गणितीय स्थिरांक, ह्या म्हत्वाच्या राशींच्या कोश्टकांक गणितीय कोश्टकां अशें म्हण्टात. विम्याविशींचीं कोश्टकां, ज्योतिशशास्त्रीय कोश्टकां, भौतिक राशींच्या मूल्यांची वळेरी ह्या प्रयोगसिध्द पध्दतीन तयार केल्ल्या कोश्टकांकूय स्थूल अर्थान गणितीय कोश्टकां अशें म्हण्टात.

कोश्टक वापरुन संगणनांत प्रत्यक्ष कितलो वेळ वांचलो हाचेवेल्यान त्या कोश्टकाच्या खऱ्या उपयुक्ततेचें अनुमान काडूं येता. देखीक- धा दशांश स्थळांमेरेनचें वर्गमूळाचें कोश्टक, हें वर्गांच्या कोश्टकापरस चड उपयुक्त आसता. कारण एकाद्रे संख्येचो वर्ग काडपापरस वर्गमूळ काडपाक चड वेळ लागता. कोश्टकाचो वापर केल्ल्यान वेळ आनी कश्ट वांचताच पूण ताच्यावांगडाच अचूकतेचीय खात्री उरता.

**इतिहासः** इ.स.प. १७०० पयलीं बरयल्ल्या न्हिंड पपायरसांत (बोरुपसून तयार केल्ल्या एके तरेच्या तक्त्यांत) एक हो अंश आशिल्ल्या अपूर्णांकांच्या संयोगाविशींचीं कांय संख्यात्मक मूल्यां दिल्लीं दिसून आयल्यांत. बॅबिलोनियन लोकांनी तयार केल्लीं गुणाकार आनी भागाकारांचीं कोश्टकां, वर्ग आनी वर्गमूळ तशेंच व्यस्तांकांचीं कोश्टकां बरींच विस्तारीत आसून तीं इ.स.प. २०० च्या सुमाराक केल्यांत आसतलीं, असो अदमास आसा.

ग्रीक गणितज्ञ टॉलेमी हाच्या 'अलमाजेस्ट' ह्या ग्रंथांत दिसून येवपी वर्तुळाच्या जीवांचें कोश्टक हें प्रचलित अर्थान पयलें गणितीय कोश्टक, अशें म्हण्टात. हें कोश्टक इ.स. सुमार दुसऱ्या शतमानांतलें आसून तातूंत वर्तुळाच्या जीवांचीं अर्द्या अंशाच्या अंतरान स दशांश स्थळांइतल्या आसन्नतेचीं मूल्यां दिल्यांत. षष्टिकमान (साठ मूलांक वापरिल्ली) पध्दत वापरिल्ल्या ह्या कोश्टकांत पयलीं नियंता मूल्यां, तेउपरांत कोश्टकीय नोंदी आनी निमाणें अंतरांचें कोश्टक दिलां. आर्यभटान (इ.स. पांचवें शतमान) पयल्या चतुर्थ भागांतल्या कोनांच्या 'ज्या' क्ष चें कोश्टक तयार केल्लें. आबुल वेफा (अबुलझानी, इ.स. ९४०-९८) ह्या अरबी गणितज्ञान स्पर्शक आनी कोस्पर्शक ह्या त्रिकोणमितीय फलनांचीं कोश्टकां तयार केल्लीं.

खऱ्या अर्थान आर्विल्ल्या गणितीय कोश्टकांची उदरगत पंदराव्या शतमानासावन सुरू जाली. गेओर्ख पूरबाख (१४२३-६१) ह्या ऑस्ट्रियन गणितज्ञाच्या मार्गदर्शनाखाल स्वभावीक त्रिकोणमितीय कोश्टकां तयार करपाचें काम सुरू जालें. ताचें स्वभावीक 'ज्या' फलनाचें कोश्टक १५४१ त उजवाडाक आयलें. निकोलेअस कोपर्निकस (१४५३-१५४३) ह्या नामनेच्या ज्योतिशशास्त्रज्ञान पांच दशांश स्थळांचें 'ज्या' फलनाचें कोश्टक तयार केलें. स्पर्शक फलनाचें पयलें कोश्टक एरॅस्मस राइनहोल्ट हाणें १५५३ त आनी छेदिका फलनाचें पयलें कोश्टक फ्रान्सिस्कस मॉरोलिकस (१४९४-१५७५) हाणें उजवाडायलें. तेउपरांत गेओर्ख योआखिम फोन लाउखेन (रॅटिकूस; १५१४-७६) हाणें तयार केल्लें १५ दशांश स्थळांचें 'ज्या' फलनाचें कोश्टक, व्हालेनटाइन ओथो (सुमार

(१५५०-१६०५) हाणें तयार केल्लें स्पर्शक आनी छेदिका ह्या फलनांचीं १० दशांश स्थळांचीं कोश्टकां आनी बार्थोलोम्यू पिटिसकस (१५६१-१६१३) हाणें तयार केल्लें १५ दशांश स्थळांचें 'ज्या' फलनाचें कोश्टक, हीं कोश्टकां उजवाडाक आयलीं. ह्या कोश्टकांचो आदार आर्विल्लीं कोश्टकां तयार करपाक जालो.

१६१४ त जॉन नेपिअर (१५५०-१६१७) ह्या स्कॉटिश गणितज्ञान आठ दशांश स्थळांमेरेन्चें हो आदारांक आशिल्लें लॉगरिथम कोश्टक उजवाडायलें. त्याच सुमाराक योस्त ब्यूर्गी (१५५२-१६३२) ह्या स्विस गणितज्ञान स्वतंत्रपणान १६२० त प्रतिलॉगरिथमांचें एक कोश्टक उजवाडायलें. १० हो आदारांक आशिल्ल्या लॉगरिथमांचें १४ दशांश स्थळांचें कोश्टक हेन्री ब्रिग्झ (१५६१-१६३१) हाणें १६२४ त तयार केलें, पूण तें पुराय नाशिल्लें. डी डेकर आनी व्हलाक हांणी १६२७ त, १० दशांश स्थळांचें १ ते १,००,००० ह्या पूर्णांकांच्या लॉगरिथमांचें कोश्टक उजवाडावन ब्रिग्झ हाचो वावर पुराय केलो. तेउपरांत वोल्फ्रम ह्या डच लश्करी अधिकाऱ्यान तयार केल्लें ४८ दशांश स्थळांचें कोश्टक १७९४ त उजवाडाक आयलें.

त्रिकोणमितीय फलनांच्या लॉगरिथमांचीं कोश्टकां व्हलाक आनी ब्रिग्झ हांणी उजवाडायलीं. व्हलाक हाणें १० सेकंदांचें कोश्टकीय अंतराल घेवन कोश्टकां तयार केलीं आनी हीच पध्दत आतां रुढ जाल्या. फ्रेंच राज्यक्रांतीउपरांत मेट्रिक पध्दतीप्रमाण त्रिकोणमितीय फलनांचीं कोश्टकां तयार करपाचें काम गास्पार रिशे (१७५५-१८३९) हाच्या मार्गदर्शनाखाला सुरू जालें. उपरांतच्या काळांत विज्ञान आनी नौकानयन हांच्या विस्ताराक लागून कोश्टकांचो आंकडो एकदम वाडलो. एकुणिसाव्या शतमानाचे सुर्वेकसावन विवृत्तीय फलनां, विवृत्तीय समाकल, गॅमा फलन, संभाव्यता फलनां, अपास्तीय फलनां, बेसेल फलनां ह्या वेगवेगळ्या फलनांचीं कोश्टकां तयार जावपाक लागलीं. विसाव्या शतमानांत संगणकाच्या सोदाक लागून वेगवेगळ्यो प्रयुक्त्यो (devices) फुडें आयल्यो आनी कोश्टकांची संख्या कितल्याश्याच पटींनी वाडली.

**मुळाव्यो संकल्पना:** चडशा गणितीय कोश्टकांनी क्ष ह्या स्वयंचलाच्या कांय मूल्यांप्रमाण एकाद्र्या फलनाचीं, फ (क्ष) चीं, संख्यात्मक मूल्यां दिल्लीं आसतात. देखीक- लॉगरिथम कोश्टकांत क्ष ह्या स्वयंचलाच्या १ ते १०,००० हे व्याप्तींतल्या मूल्यांप्रमाण लॉग क्ष ह्या फलनाचीं मूल्यां दिल्लीं आसतात. कोश्टकांत दिल्ल्या फलन मूल्यांक नोंदी म्हण्टात आनी ज्या मूल्यांचेर (म्हळ्यार क्ष च्या मूल्यांचेर) कोश्टक आदारिल्लें आसता, तांकां नियंता मूल्यां अशें म्हण्टात. असल्या कोश्टकाक एक-नोंद कोश्टक अशें म्हण्टात. कांय कोश्टकांनी दोन चलांच्या नियंता मूल्यांचेर पातयेवन आशिल्ल्या फलनाचीं मूल्यां दिल्लीं आसतात. देखीक- गुणाकाराचें कोश्टक. असल्या कोश्टकाक द्वि-नोंद कोश्टक अशें म्हण्टात.

कोश्टकाची लांबाय आनी आकारमान हें ताची व्याप्ती, कोश्टकीय अंतराल, स्थानमूल्य, फलनाचें स्वरुप, नोंदीच्या मूल्याच्या अदमासाची कोटी आनी कोश्टक वापरपाचो उद्देश ह्या गजालींचेर आदारून आसता.

**कोश्टकाचें संगणन:** कोश्टकां तयार करतना विंगड विंगड गणितीय प्रयुक्त्यांचो वापर करतात.. हेखातीर 'फलन सिध्दांत' आनी 'सांत अंतर कलन' ह्या विशयांचो बरोच अभ्यास आसचो पडटा. कोश्टक तयार करतना पयलीं कोश्टकाची व्याप्ती, नोंदींची आसन्नता आनी कोश्टकीय अंतराल हीं निश्चित करचीं पडटात. कसले तरेचें अंतर्वेशन (interpolation) वापरपाचें हाचेर कोश्टकीय अंतराल आदारून आसता.

कोश्टकीय अंतराल निश्चित करतकच, थारायल्ल्या व्याप्तींतल्या वेगवेगळ्या नियंता मूल्यांखातीर फलन मूल्यां काडचीं पडटात. हाचेखातीर पयलींच्या काळांत किचकट पध्दती वापरच्यो पडटाल्यो, पूण आतां गणितीय विश्लेशणांतल्यो प्रभावी पध्दती वापरतात.

**कोश्टकांचें वर्गीकरण:** गणितीय कोश्टकांचें वर्गीकरण करपाचे नदरेन आर्थर केली (१८२१-९५) हाणें १८७३ त एक वर्गीकरण पध्दत सुरू केली. पूण उपरांत हें वर्गीकरण अर्दवट आसा, अशें दिसून येतकच १९४० त अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांच्या नॅशनल रिसर्च कमिटीन आर्. सी. आर्चिबाल्ड हाचे अध्यक्षतेखाल गणितीय कोश्टकां आनी संगणन करपाक मदत करपी हेर साधनां ह्या विशयांविशीं एक समिती नेमली. हे समितीन कोश्टकांचें वर्गीकरण केलां, तें अशें: १. अंकगणितीय कोश्टकां; गणितीय स्थिरांक २. घात ३. लॉगरिथम ४. वर्तुळीय फलनां ५. विवृत्तीय आनी घातीय फलनां ६. संख्या सिध्दांत ७. उच्च बीजगणित ८. समीकरणांचे संख्यात्मक निर्वाह ९. सांत अंतरां १०. श्रेढींची संयुती ११. सांख्यिकी १२. उच्च गणितीय फलनां १३. समाकल १४. व्याज आनी विनीयोग १५. विमाविज्ञान १६. अभियांत्रिकी १७. ज्योतिशशास्त्र १८. भूगणित १९. भौतिकशास्त्र २०. रसायनशास्त्र २१. नौकानयन २२. संगणन यंत्रां आनी यांत्रिक संगणन.

कोश्टकांची संख्या वाडपाक लागिल्ल्यान कोश्टकांचें मूळस्थान, आकारमान आनी अचूकता हांचेविशीं पध्दतशीर एकठांय म्हायती आसपाची गरज एकुणिसाव्या शतमानासावन दिसपाक लागली. ह्या विशयांत ग्लेशर (१८४८-१९२८), डे मॉर्गन (१८०६-७१), ॲलांबेर (१७४९-१८२२) आनी हटन (१७३७-१८२३) हांणी तयार केल्ले वृत्तांत म्हत्वाचे आसात. १९४३ च्या सुमाराक अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांच्या नॅशनल रिसर्च काउन्सिलान नेमिल्ले समितीवरवीं **'Mathematical tables and other aids to computation'** नांवाचें तीम्हयन्याळें आर्. सी. आर्चिबाल्ड हाच्या संपादनाखाल सुरू जालें. ह्या तीम्हयन्याळ्यांत हालींच उजवाडायिल्ल्या कोश्टकांचें परीक्षण, मूळ स्वरुपांतल्या कोश्टकांची यादी, प्रमाण कोश्टकांतल्या दुरुस्तीपत्रकांच्यो यादी, खासा संशोधन मळांवयल्या कोश्टकांची आनी खाशेल्या फलनांच्या कोश्टकांची सूची, संगणन यंत्रांचें वर्णन, असली वेगवेगळ्या विशयांवेली म्हायती उजवाडाक येता. ह्या नेमाळ्याखेरीज ए. फ्लेचर, जे. सी. मिलर आनी एल्. रोझेनहेड हांणी उजवाडायिल्ल्या **'An Index of Mathematical Tables'** (दुसरी आवृत्ती, १९६२) हे सूचींतूय वेगवेगळ्या कोश्टकांची व्यापक म्हायती वाचूंक मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

## गणितीय प्रतिरुपां:

**गणितीय प्रतिरुपां:** खंयच्याय शास्त्रांतल्यो मुळाव्यो कल्पना अमूर्त स्वरुपांत मांडल्यो, जाल्यार एकेकदां समजुपाक कठीण जातात. पूण त्योच कल्पना मूर्तरूपान उक्तायल्यो जाल्यार तातूंतलें तत्त्व सोपेपणान समजता. गणितांतलो खंयचोय विभाग (खास करून घन भूमिती आनी यामिकी) स्पश्ट करता आसतना वर्ण्य वस्तूंचीं प्रतिरुपां (चित्रां, नमुने वा आकृत्यो) मुखार आसल्यार विशयाचें आकलन सोपेपणान जाता. तेखातीर लागपी चित्रां, फळ्यांवयल्यो आकृती, वस्तूंचे नमुने, छायाचित्रां आदी वापरतात, त्या प्रतीकांक 'प्रतिरुपां' (models) अशें म्हण्टात.

सादारणपणान मुळाव्या शिक्षणासावन प्रत्यक्ष वस्तूंचीं प्रतिरुपां वापरपाक सुरवात जाता. गणितीय प्रतिरुप म्हळ्यार त्या प्रत्यक्ष वस्तूची ल्हान प्रमाणांतली हुबेहुब प्रतिकृती आसूंकूच जाय, अशें ना. देखीक- सरळ रस्त्यावयल्यान धांवपी मोटारीचें, एक सरळ वळ आनी ताचेवयलो एक हालपी बिंदू, हें गणितीय प्रतिरुप आसा. तशेंच संच दाखोवपाखातीर एकाद्र्या बंद वक्रांतलो भाग (व्हेन आकृती) हो त्या संचाचें गणितीय प्रतिरुप म्हूण वापरतात. गणितीय प्रतिरुपांचो मुखेल हेत सिध्दांताची थापणूक करप हो नासून त्या सिध्दांताचें निर्देशन (demonstration) करप हो जावन आसा. प्रमेयाची सत्यता प्रतिरुपावयल्यान रोखडीच पटता आनी प्रमेय सोपेपणान समजून खूब खेपे ताचेवेल्यान आनीकूय कांय नव्यो कल्पना येवजतात.

गणितशास्त्रांतल्या विंगड विंगड विभागांनी वापरांत येवपी कांय प्रतिरुपां अशीं: भूमितीय प्रतिरुपां, यंत्र निदर्शक प्रतिरुपां, संस्थितीविज्ञानांतलीं प्रतिरुपां, त्रिमितीदर्शक आनी उजवाडाचीं प्रतिरुपां.

- कों. वि. सं. मं.

**गणितीय संकेतनां, चिन्हां आनी संज्ञा:** खाशेलीं गणितीय चिन्हां, संकेतनां आनी संज्ञा वापरतकच गणिती कृत्यांची मांडावळ संक्षिप्त स्वरुपांत सुटसुटीत आनी सोपी जाता. तेचप्रमाण तीं कृत्यां कशीं घडोवन हाडचीं, ह्या विचाराकूय चालना मेळटा. एकाद्र्या शब्दसमूहाचो परत परत जावपी वापर टाळपाखातीरूय गणितीय चिन्हांचो वापर जाता. गणितांत सद्या वापरांत आशिल्लीं संकेतनां, चिन्हां आनी संज्ञा हांचो संच जायत्या नामनेच्या गणितज्ञांच्या संशोधनांतल्यान आनी कितल्याशाच वर्सांच्या वापरांतल्यान तयार जाला. कांय आर्विल्ल्या गणितशाखांचे आडवाद सोडल्यार सद्या ह्या चिन्हांचो वापर आंतरराश्ट्रीय आसा.

सुरवातीच्या काळांत वापरिल्लीं चिन्हां हीं चड करून त्या त्या कृत्यांच्या संदर्भांत वापरांत येवपी शब्दांचीं आद्याक्षरां वा लघुरूपां आसतालीं. व्हेता (१५४०-१६०३), ऑट्रिड (१५७५-१६००), देकार्त (१५९६-१६५०) आनी लायब्निट्स (१६४६-१७१६) हांणी ह्या चिन्हांच्या वापराचो बारकायेन आनी खोलायेन अभ्यास केलो. सतराव्या शतमानाचे अखेरेक, अर्थाची स्पश्टताय आनी छापणावळीचें सोपेपण ह्यो गजालीं मतींत घेवन तो मेरेन वापरांत आशिल्ल्या चिन्हांचें लायब्निट्स हाणें प्रमाणीकरण केलें. विचार आनी कल्पना हांचो अभ्यास लेगीत चिन्हांवरवीं करचो, अशें तांकां दिसतालें. पूण एकुणिसाव्या शतमानांत जॉर्ज बूल (१८१५-६४) हाच्या 'An investigation of the laws of thought on which are founded the Mathematical theories of logic & probabilities' हें पुस्तक उजवाडाक योमेरेन लायब्निट्स हाच्या विचारांक मूर्त स्वरूप आयलें ना. विसाव्या शतमानाच्या पयल्या अर्दांत गणित आनी गणिती कृत्यां हांच्या बांदावळीचे मुळावे विस्कटावणेंत आनी चिन्हांकित तर्कशास्त्र ह्या विशयांत गणितीय चिन्हां आनी संज्ञा हांकां म्हत्व प्राप्त जालें. विंगड विंगड गणितशाखांत वेगवेगळीं चिन्हां वापरतात. तातूंतल्या कांय मुखेल चिन्हांची म्हायती सकयल दिल्या.

**अंकगणित आनी सामान्य वेव्हारांतलीं चिन्हां:**

$+$ — अधिक चिन्ह. बेरीज दाखोवपी.
अ + ब :- अ अधिक ब.

$-$ — उणें चिन्ह. वजाबाकी दाखोवपी.
अ - ब :- अ उणें ब.

$=$ — सारको, बरोबर.
अ = ब :- अ बरोबर ब.

$\neq$ — असमानता दाखोवपी, वेगळेपण.
अ ≠ ब :- अ वेगळो ब.

$\pm$ — अधिक वा उणें.

$\mp$ — उणें वा अधिक

$\times$ — गुणाकार.
अ × ब :- अ गुणिले ब. हेंच अ.ब वा अब अशेंय बरयतात.

$\div$ — भागाकार.
क ÷ ख :- क भागिले ख. हेच वा क/ख अशेंय बरयतात.

$:$ — गुणोत्तर.
अ : ब :- अ आनी ब चें गुणोत्तर; अ हाका ब; गुणोत्तर अ, ब.

$>$ — गुरुतर, परस व्हडलें ह्या अर्थान.
अ > ब: अ :- गुरुतर ब; अ हो ब परस व्हडलो ह्या अर्थान

$\geqslant$ — गुरुतर वा सारको.
अ ⩾ ब :- अ गुरुतर वा सारको ब.

$<$ — लघुतर, परस ल्हान ह्या अर्थान.
अ < ब :- अ लघुतर ब.

$\leqslant$ — लघुतर वा सारको.
अ ⩽ ब :- अ लघुतर वा सारको ब.

$\ngtr$ — गुरुतर न्हय.

$\nless$ — लघुतर न्हय.

$\approx$ — अदमासान बरोबर.
अ ≈ ब :- अ अदमासान बरोबर ब.

$\equiv$ — नित्यसमान.
अ ≡ ब :- अ नित्यसमान ब.

$\not\equiv$ — नित्यसमान न्हय.

$\propto$ — प्रमाणात बदलता.
अ ∝ ब :- अ, ब च्या प्रमाणात बदलता.

$\infty$ — अनंत.

|क्ष| — क्ष चें फकत मोल. क्ष चें चिन्ह विरयत मोल.

लॉग$_{\text{अ}}$ क्ष — क्ष चो, अ आदारांकाचो लॉगरिथम; लॉग क्ष, आदार अ.

म.सा.वि. — महत्तम सादारण विभाजक.

ल.सा.वि. — लघुतम सादारण विभाज्य.

i, $\sqrt{-\text{१}}$ — असत् आंकडो.

{ } — संच चिन्ह.

( ) — उक्तें अंतराल.
(अ, ब) :- उक्तें अंतराल अ, ब.

[ ] — बंद अंतराल.
[अ, ब] :- बंद अंतराल अ, ब.

[ ) — अर्दबंद अंतराल.

( ] — अर्दउक्तें अंतराल.

फ (क्ष) — फलन. फ (क्ष) :- क्ष चें फलन फ.

[क्ष] — क्ष हे संख्येंतलो महत्तम पूर्णांक.

$\in$ — चो घटक आसप.
क्ष ∈ (अ,ब) :- क्ष घटक उक्तें अंतराल अ, ब.

$\in$ — चो घटक नासप.

$\Rightarrow$ — जर ... तर ...
अ ⇒ ब :- जर अ तर ब.

$\Leftrightarrow$ — जर ... तरूच ...
अ ⇔ ब :- जर अ तरूच ब; जर अ तर ब आनी जर ब तर अ.

$\therefore$ — देखून.

$\because$ — कारण.

$\sqrt{\ }$ — वर्गमूळ; घातमूळ चिन्ह.

$\sqrt[\text{प}]{\ }$ — प वें मूळ.

अ$^{\text{ब}}$ — अ चो ब पांवड्याचो घात.

$\sum$ — अनुक्रमित पदांची बेरीज

$$\sum_{\text{र}=\text{१}}^{\text{प}} \text{क्ष}_{\text{र}} = \text{क्ष}_{\text{१}} + \text{क्ष}_{\text{२}} + \ldots + \text{क्ष}_{\text{प}}$$

वाचात :- क्रम संयुती, र = १ ते प, क्ष$_{\text{र}}$

$\prod$ — क्रमगुणन.

$$\prod_{\text{र}=\text{१}}^{\text{प}} \text{क्ष}_{\text{र}} = \text{क्ष}_{\text{१}}.\text{क्ष}_{\text{२}}.\text{क्ष}_{\text{३}}. \ldots . \text{क्ष}_{\text{प}}$$

वाचात :- क्रमगुणन, र = १ ते प, क्ष$_{\text{र}}$

**संच सिध्दांत:**

| | |
|---|---|
| $\subset$ | आस्पाव आसप; उपसंच आसप. |
| | अ $\subset$ ब :- अ आस्पावता ब हातूंत; अ, ब चो उपसंच. |
| $\supset$ | हातूंत आस्पावप. |
| | अ $\supset$ ब :- अ भितर ब आस्पावता. |
| $\cap$ | छेदन. अ $\cap$ ब वा अ.ब :- अ छेदन ब. |
| $\cup$ | संयोग; युती. अ $\cup$ ब वा अ + ब :- अ युती ब. |
| वि | विश्व संच |
| श, | रितो वा शून्य संच. |

**भूमिती:**

| | |
|---|---|
| $\angle$ | कोन. $\angle$ अ :- कोन अ. |
| $\llcorner$ | काटकोन. $\llcorner$ ब :- काटकोन ब. |
| $\perp$ | लंब. अब $\perp$ यर :- अब हाका लंब यर. |
| $\parallel$ | समांतर. अब $\parallel$ कख : अब हाका समांतर कख. |
| $\triangle$ | त्रिकोण |
| $\bigcirc$ | वर्तुळ. |
| $\square$ | समांतरभुज |
| $\pi$ | परीघ: व्यास गुणोत्तर. |
| $\equiv$ | एकरुप. |
| $\cong$ | सरुप. |

- कों. वि. सं. मं.

**गणितीय संस्था आनी नेमाळीं:** गणितीय संशोधन आनी प्रस्न हांचें दिवप-घेवप करपाचे गरजेंतल्यान गणितीय संस्था जल्माक आयल्यो. सतराव्या शतमानामेरेन असले म्हायतीचें दिवप-घेवप व्यक्तिगत संपर्क आनी ग्रंथांचें उजवाडावप हांचेवरवीं जातालें. तेउपरांत मात जायत्या गणितीय संस्थांची थापणूक जाली आनी गणिताविशींच्या समकालीन संशोधनाची म्हायती दिवपी कितलींशींच नेमाळीं उजवाडाक येवपाक लागलीं. हाकालागून गणिताचे उदरगतीक नेट आयलो. गणितज्ञांक आपापल्या विशयांतल्या संशोधनाविशींची अद्ययावत म्हायती मेळपाक लागली. पयलींच्यो चडश्यो संस्था, शार वा एकाद्रें विद्यापीठ हांच्या इतल्योच मर्यादीत आसून थळाव्या स्वरुपाच्यो आशिल्यो. आयज कितल्योश्योच गणितीय संस्था राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय मळाचेर संशोधन आनी उजवाडावप हे विशीं वावर करतात.

सगळ्यांत पोरनी आनी अजुनूय वावर करीत आशिल्ली गणितीय संस्था म्हळ्यार हँबर्ग हांगा १६९० त थापणूक जाल्ली 'मॅथेमातिश गेझेलशाफ्ट' (Methematische Gesellschaft) . १८८१ त हे संस्थेन 'मिट्टेइलूंगन' (Mitteilungen) नांवाचें छापील नेमाळें उजवाडावपाक सुरवात केली. ॲम्स्टरडॅम हांगा १७७८ त थापणूक जाल्ल्या 'विस्कुंडिश गेनूटशाप' (Wiskundig Genootschap) हे संस्थेन बरींच नेमाळीं उजवाडायल्यांत.

आउगुस्ट क्रेले (१७८०-१८५५) ह्या जर्मन अभियंत्यान १८२६ त थापणूक केल्ल्या 'Journal fur die reine and angewandte Mathematik' ह्या नेमाळ्याच्या सुरवातीच्या कांय अंकांनी आबेल, याकोबी, श्टाइनर, डीरिक्ले, प्ल्यूकर ह्या नामनेच्या गणितज्ञांचे लेख येताले. हेंच नेमाळें फुडें 'क्रेलेज जर्नल' ह्या नांवान येवपाक लागलें. एकुणिसाव्या आनी विसाव्या शेंकड्यातल्या कितल्याशाच नामनेच्या गणितज्ञांचे लेख हातूंत उजवाडाक आयल्यात.

मॉस्को हांगा १८६७ त थापणूक जाल्ली Moskovskoe Mathematichesko Obshchestvo ही सगळ्यांत पोरनी गणितीय संस्था. ही संस्था 'Matematicheskij Sbornik' (१८६६) आनी 'Trudy Moskovskoe Matematicheskogo Obshchěstvo' (१९५२) हीं दोन म्हत्वाचीं नेमाळीं उजवाडायता. लंडन मॅथेमॅटिकल सोसायटी १९६५ त स्थापन जाली. सुर्वेक थळाव्या स्वरुपाची आशिल्ली ही संस्था रोखडीच इंग्लंडची राश्ट्रीय गणितीय संस्था जाली. हे संस्थेवरवीं 'Proceedings' (१८६५), 'Journal' (१९२६) हीं नेमाळीं उजवाडाक येतात. १८८३ त थापणूक जाल्ल्या एडिंबरो मॅथेमॅटिकल सोसायटीवरवीं 'Proceedings' (१८८३) आनी 'Mathematical Notes' (१९०९) हीं नेमाळीं उजवाडाक येतात. फ्रांसाची राश्ट्रीय संस्था Societe Mathematique de France १८७२ त थापणूक जाली. हे संस्थेवरवीं Bulletin (१८७२) हें नेमाळें उजवाडाक येता. १८८८ त थापणूक जाल्ल्या न्यूयॉर्क मॅथेमॅटिकल सोसायटीचेंच फुडें १८९४ त अमेरिकन मॅथेमॅटिकल सोसायटींत रुपांतर जालें. ही संस्था संवसारांतली एक म्हत्वाची गणितीय संस्था अशें मानतात. हे संस्थेवरवीं 'Bulletin' (१८९१), 'Transactions' (१९००), 'Proceedings' (१९५०) हीं नेमाळीं उजवाडाक येतात. जर्मनीची राश्ट्रीय संस्था Deutsche Mathematiker Vereinigung १८९० त स्थापन जाली. हे संस्थेवरवीं 'Jahresbericht' (१८९२) हें नेमाळें उजवाडाक येता. इटलींत १८८४ त थापणूक जाल्ली Circolo Matematico di Palermo ही संस्था आंतरराश्ट्रीय पांवड्याची अशें मानतात. 'Rendiconti' (१८८७) हें हे संस्थेवरवीं उजवाडाक येवपी नेमाळें कितलींशींच वर्सां संवसारांतलें एक म्हत्वाचें गणितीय नेमाळें म्हूण गाजलें. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत जपानांत 'मॅथेमॅटिकल सोसायटी ऑफ जपान' हे आंतरराश्ट्रीय पांवड्याचे संस्थेची थापणूक जाली. अर्जेंटिना, ऑस्ट्रिया, ब्राझील, चीन, हंगेरी, इझ्राएल, मेक्सिको, नॉर्वे, पोलंड, स्पेन ह्या देशांत राश्ट्रीय पांवड्याच्यो गणितीय संस्था आसून तांचेवरवीं जायतीं नेमाळीं उजवाडाक येतात.

भारतांत मद्रास हांगा १९०७ त थळाव्या स्वरुपांत थापणूक जाल्ली 'इंडियन मॅथेमॅटिकल सोसायटी' आतां आंतरराश्ट्रीय नामनेची जाल्या. तिचें कार्यालय सद्या दिल्ली हांगा आसून तिचेवरवीं 'Journal of the Indian Mathematical Society' आनी 'Mathematics student' हीं नेमाळीं उजवाडाक येतात. हे संस्थेखेरीज भारतांतली 'अलाहाबाद मॅथेमॅटिकल सोसायटी' (थापणूक- १९५८), 'भारत गणित परिशद' (थापणूक- १९५०) आनी 'कलकत्ता मॅथेमॅटिकल सोसायटी' (थापणूक- १९०८) ह्यो हेर म्हत्वाच्यो संस्था जावन आसात. ह्यो संस्था वेगवेगळीं नेमाळीं उजवाडायतात. दिल्ली हांगाच्या इंडियन नॅशनल सायन्स ॲकॅडेमीवरवीं उजवाडांत येवपी 'Indian Journal of pure and applied Mathematics' तशेंच बंगलोर हांगाच्या इंडियन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचें 'Proceedings (Section A)' आनी शिवनी (बिहार) हांगा उजवाडाक येवपी 'The Mathematical Education' ह्या नेमाळ्यांतल्यान गणिताच्या संशोधनाविशींची म्हायती उजवाडाक येता.

गणिताचीं हेर कांय भारतीय नेमाळीं अशीं:

एकुणिसाव्या शतमानांत गणितज्ञांच्यो कांय आंतरराश्ट्रीय बसका भरिल्ल्यो. पूण खऱ्या अर्थान आंतरराश्ट्रीय स्वरुपाची पयली बसका १८९७ त स्वित्झर्लंडांतल्या झुरिक हांगा भरली. हे बसकेक २०४ प्रतिनिधी हाजीर आशिल्ले. १९०० वर्साउपरांत पयल्या आनी दुसऱ्या म्हाझुजाचो खंड सोडल्यार ह्यो बसका दर चार वर्सांनी भरत आयल्यात आनी दरेक बसकेची म्हायती आनी तातूंत वाचिल्ले निबंद उजवाडाक

आयल्यात. १९६६ त मॉस्को हांगा भरिल्ले बसकेक ५,००० प्रतिनिधी हाजीर आशिल्ले.

१९५२ त International Mathematical Union हे संस्थेची सुरिक हांगा थापणूक जाली आनी ती इंटरनॅशनल काउन्सिल ऑफ सायंटिफिक युनियन्स हे युनेस्को प्रणीत संस्थेंत आस्पावपांत आयली. चाळीसेक राश्ट्रां ह्या युनियनचे वांगडी आसून शुध्द, अनुप्रयुक्त आनी शिक्षणीक ह्या तीनूय गणितीय मळांचेर तिचो वावर चालू आसा. गणिताच्या अध्यापनाविशींचे आंतरराश्ट्रीय समितीन जर्मनी, इटली, ऑस्ट्रिया, फ्रांस, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, जपान ह्या राश्ट्रांतल्या गणितीय अध्यापन पध्दतींविशींचे विस्तृत अहवाल उजवाडायल्यात. हे समितीचें L' Enseignement Mathematique हें नेमाळें १८९९ सावन उजवाडाक येत आसून तातूंत गणिताचें अध्यापन, इतिहास आनी तत्त्वगिन्यान ह्या विशयांचो आस्पाव जाता. द बायोमेट्रिक सोसायटी, द इकॉनॉमेट्रिक सोसायटी आनी द टेन्सॉर सोसायटी ह्यो संस्थाय आपापल्या मर्यादीत मळांचेर वावर करीत आसात. गणिताच्या हेर शाखांतल्या विशयांखातीर थापणूक जाल्ल्यो कांय संस्था आसात. देखीक- अमेरिकन स्टॅटिस्टिकल ॲसोसिएशन, इंडियन स्टॅटिस्टिकल इन्स्टिट्यूट, द ॲसोसिएशन फॉर सिंबॉलिक लॉजिक, द ॲसोसिएशन फॉर कॉम्प्युटिंग मशिनरी, द इंडस्ट्रियल मॅथेमॅटिक्स सोसायटी आदी.

चडशीं नेमाळीं इटालियन, फ्रेंच, जर्मन आनी इंग्लीश ह्या भासांनी उजवाडाक येतात. हालींच्याच काळांत रशियन भाशेंतूय कांय नेमाळीं उजवाडाक येतात. संवसारांत सुमार १,२०० गणितीय नेमाळीं उजवाडाक येतात. तातूंतल्या म्हत्वाचे म्हायतीचो आपरोस आनी परीक्षण दिवपी कांय नेमाळींय आसात. फ्रांसांत 'Bulletin Analitique' हें अशेंच तरेचें नेमाळें १९४० सावन उजवाडावक येता. १९४० त अमेरिकन मॅथॅमॅटिकल सोसायटीन 'Mathematical Reviews' हें नेमाळें सुरू केलें. हें नेमाळें अमेरिकन मॅथॅमॅटिकल सोसायटी, मॅथॅमॅटिकल ॲसोसिएशन ऑफ अमेरिका, इंडियन मॅथॅमॅटिकल सोसायटी, लंडन मॅथॅमॅटिकल सोसायटी ह्या तेरा राश्ट्रीय पांवड्याच्या गणितीय संस्थांनी पुरस्कृत केलां. गणिताच्या अध्यापनाविशींय वेगवेगळ्या देशांनी कांय म्हत्वाचीं नेमाळीं उजवाडाक येतात.

- कों. वि. सं. मं.

**गणेश दैवज्ञ:** (जल्म: १४९८, नांदगांव; मरण: १५७८).

एक नामनेचो भारतीय ज्योतीशशास्त्रज्ञ. हाचो बापूय केशव दैवज्ञ नामनेचो ज्योतीशी आसलो.

ताचे 'ग्रहलाघव', 'लघुतिथीचिंतामणि', 'बृहत्तिथीचिंतामणि', 'सिध्दान्तशिरोमणि-टीका', 'लीलावती-टीका', 'विवाहवृंदावन-टीका', 'मुहूर्ततंत्र-टीका', 'श्राध्दनिर्णय', 'धंदोर्णव-टीका' हे ग्रंथ उजवाडाक आयिल्ले आसून 'ग्रहलाघव' ह्या ग्रंथाक लागून तो नामनेक पावलो.

ताचो चलो बल्लाळ, नातू केशव, भाव अनंत, पुतणयो नृसिंह हांणीय ज्योतीशशास्त्राचेर ग्रंथ बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**गदर चळवळ:** अमेरिकेंत आनी कॅनडांत रावपी क्रांतिकारक विचारांच्या भारतीयांनी इ. स. १९१३ त अमेरिकेंत 'हिंदी असोसिएशन' ही संस्था स्थापन केल्ली. आपल्या प्रचार कार्याखातीर हे संघटनेन एक सातोळें सुरू केलें. ताचें नांव 'गदर'. इंग्लीश, हिंदी, बंगाली, मराठी, उर्दू आनी पंजाबी (गुरुमुखी) भासांनी तें उजवाडाक येतालें. तातूंतल्या लेखांचो प्रभाव विदेशांतल्या भारतीय लोकांचेर जालो आनी तांच्यांत थोडी जागृताय जाली. हाची प्रेरणा घेवन कांय काळाउपरांत भारताभायर रावपी भारतीयांनी एक संघटित चळवळ उबी केली आनी हे चळवळीक 'गदर' हें नांव दिलें.

विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक नोकरीधंद्याच्या निमतान कांय भारतीय लोक अमेरिका आनी कॅनडांत गेल्ले. विदेशांत तांकां कमी पांवड्याची सुवात मेळ्ळी. परकी राजवटीसकयल राविल्ल्यान आपल्या तशेंच परकी देशांनी बरी वागणूक मेळना, अशें तांकां दिसलें. ब्रिटिशांचे गुलामगिरींतल्यान मुक्त जावन स्वतंत्र राश्ट्र स्थापन करतकच ह्या जाचांतल्यान सुटका जावन मानान जियेवंक मेळटलें, अशें तांकां दिसलें. देखून, ब्रिटिशांक भारतांतल्यान धांवडावप हो 'हिंदी असोसिएशन' चो आनी 'गदर' सातोळ्याचो हेत जालो.

गदर (गधर) ह्या पंजाबी शब्दाचो अर्थ बंड. हें बंड भारतांतले ब्रिटीश सत्तेआड आशिल्लें. ह्या उत्रावखातीर १ नोव्हेंबर दिसा 'गदर' नांवाचो राजकी पक्ष अमेरिकेंत स्थापन केलो. हे संघटनेंत चडशे शीख आशिल्ले. सोहनसिंग भक्न, लाल हरदयाल, काशिराम हे संघटनेचे मुखेल फुडारी आशिल्ले. हरचरण दास, पृथ्वी सिंग, आझाद, लाहिरी ज्योतिंद्रनाथ, पांडुरंग सदाशिव कानजोगे, अमरसिंग, कर्तारसिंग, सचिंद्रनाथ सन्याल हांणी भारतांतले हे चळवळींत मुखेल भूमिका केली.

खानखोजे आनी पं. काशीराम हांणी हरदयाळाच्या पांच वर्सां पयलीं अमेरिकेंत गदरचें कार्य सुरू केल्लें. खानखोजे टिळकाक मेळून विदेशांत गेल्लो. जपानांत स्फोटक द्रव्यांचे कृतीचें शिक्षण घेवन तो सॅन फ्रॅन्सिस्कोच्या मिलिटरी अकॅडमीत गेलो आनी ताणें पदविका घेतली. थंय ताका सुरेंद्र मोहन, खगेंद्रचंद्र,. तारकानाथ दास आनी हेर क्रांतीवीर मेळ्ळे.

शस्त्रास्त्रां आनी दुडू एकठांय करप, बॉंब तयार करप, जुलमी ब्रिटीश अधिकाऱ्यांचो खून करप हे मार्ग आपणावचे अशी तांची धारणा आशिल्ली. पूण अशे पध्दतीन क्रांती करपाक हे संस्थेकडेन संघटन, फुडारपण आनी डावपेच हांचो अभाव आशिल्लो. संघटनेची वैचारीक बसका लोकांमेरेन कांय तशी पाव नाशिल्ली.

भारतीय फौजेंत आनी लश्करांत देशभक्ती निर्माण करप, हाचेर गदर चळवळीन भर दिलो. चळवळीचें जाळ अमेरिका, सिंगापूर, ब्रह्मदेश, बलुचिस्तान, चीन, इराण, जपान, जर्मनी, जावा, मानिला, शांघाय, हॉंगकॉंग मेरेन पातळिल्लें. प्रचारक आनी प्रहारक अशे ताचे दोन विभाग आशिल्ले. प्रचारक विभाग 'गदर' सातोळ्याचें काम पळेतालो जाल्यार प्रहारक विभाग रेल्वे स्टेशन, तारयंत्रां, पोलिस ठाणीं, लश्करी केंद्रां हांचेर गुप्तपणान घुरयो घालपाची येवजण आंखतालो.

१९१४ त पयलें संवसारीक म्हाझूज सुरू जालें आनी 'हिंदी असोसिएशन' चे कांय लोक बोटींतल्यान भारतांत आयले. हे लोक देशाखातीर कसलोय त्याग करपाक तयार आशिल्ले. 'तोशा मारू' आनी 'मशिमा मारु' ह्या दोन जहाजांतसून हे लोक भारतांत आयले. 'कामा गाटा मारु' ह्या जहाजांतसून भगवान सिंग, महंमद बरकतुल्ला, सोहन सिंग, भक्न, बलवंत सिंग हे फुडारी आनी हेर गदरवादी भारतीय किनाऱ्याचेर देंवले. तांकां थंय रोखडीच अटक जाली. कांय जाणांची पोलिसांवांगडा चकमक जाली. थोड्यांचेर आरोप दवरुन खटले जाले. २८ जाणांक फांशी आनी हेरांक दीर्घ मुदतीची ख्यास्त जाली.

भारतांत आयिल्ले शूर, धाडसी आनी एकचाराचो सोपूत घेतिल्ले 'बंडखोर' गदरवादी ल्हान ल्हान गट करून गुप्तपणान काम करपाक लागले. भारतांत गदरवाद्यांक संघटित करपाचे यत्न रासबिहारी घोष हाणें केले. शस्त्रां तयार करप, गरज पडल्यार सशस्त्र दरोडो घालून पयसो एकठांय करप, सैनिकांचे छावणींत वचून सैन्य फोडप, बॉंब तयार करप हीं कामां 'गदर'चे सभासद करताले. स्वातंत्र्य चळवळींतल्या भूंयगतांक मदत करपाचें काम लेगीत तांणी केलें. फिरोज़पूर खजिन्याचे लुटींत सात जाण गदरवादी फांसार गेले. शेंकड्यांनी लोकांक अटक जाली. लाहोर कटांत २४ जाणांक फांशीची ख्यास्त जाली.

सॅन फ्रॅन्सिस्को हें गदर संघटनेचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. सुर्वेक हरदयाल सिंग हो संघटनेचो चिटणीस आशिल्लो. ताचे फाटल्यान सोहनसिंग भक्न हो संघटनेचो चिटणीस जालो. 'हिंदी असोसिएशन'चो मुखेल फुडारी रामचंद्र अमेरिकेंत स्थापन केल्ल्या युगांतर आश्रमाचो मुखेल म्हूण काम पळेतालो. रासबिहारी घोष हाच्या समन्वयाच्या कार्याक व्हडलेंशें यश

आयलेंना. स्वराज्याखातीर उर्बेन काम करपी हे क्रांतीकारक संघटनेक भारतीयांनी व्हडलोसो प्रतिसाद दिलोना. क्रांतीकारक संघटनांचें कार्य यशस्वी जावपाक पोशक अशें वातावरण भारतांत त्या वेळार निर्माण जावंक नाशिल्लें आनी ताका लागून मुळांतूच असंघटित आशिल्ल्या स्वातंत्र्यप्रेमी शीख लोकांचे हे संघटनेक फाव तें मार्गदर्शन न मेळिल्ल्यान आनी कार्यक्रम, दिशा, फुडारपण हांचो अभाव आशिल्ल्यान ही पक्षसंघटना चड वावर करूंक शकलीना. रौलट हाचे अध्यक्षतेखाल भारतीय क्रांती चळवळीचो इतिहास तयार करपाची समिति बसली (१९१८). तातूंत हे चळवळीचो १९१७ मेरेनचो इतिहास आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**गनिमी झूज:** लडाय करपाचें एक तंत्र. 'गनीम' हो शब्द अरबी भाशेंतल्या 'घनीम' (अर्थ-लुटारु) ह्या शब्दावयल्यान आयला. इंग्लीश भाशेंतल्या 'गेरिला वॉरफेअर' ह्या शब्दप्रयोगाक 'गनिमी झूजतंत्र' अशें म्हण्टात. स्पॅनिश भाशेंतलो झूजवाचक शब्द 'ग्युएर्रा' (guerra) हाचेवयल्यान लघुत्वदर्शक शब्द 'ग्यूएर्रिला' आयला. 'गेरिला वॉरफेअर' हाचो अर्थ ल्हान लडायांचें तंत्र असो जाता. 'गनीम' आनी 'गेरिला' ह्या दोनूय शब्दांतल्यान गनिमी झूजतंत्राचें एकूच सूत्र सूचित जाता: अनपेक्षित छापे घालप, लुटमार करप आनी ल्हान चकमकी घडोवन हाडप. दुस्मानापरस आपलें सैन्यबळ आनी शस्त्रबळ खूब कमी आसता, तेन्ना चडसो गनिमी पध्दतीचो वापर करतात.

भारतीय झूजतंत्राचे परंपरेंत असलो झूजप्रकार पूर्विल्ल्या काळासावन दिसून येता. अथर्ववेद, रामायण, महाभारत, कौटिल्याचें अर्थशास्त्र हातूंत असल्या प्रकारच्या तंत्राचे उल्लेख मेळटात. जांकां 'असूर' अशें म्हण्टात ते भारतीय आदिवासी लोक, 'सुर' म्हळ्यार 'आर्य' लोकांकडेन अधर्मान झुजताले, अशें वर्णन मेळटा. कौटिल्यान ह्या तंत्राक 'कूटझूज' हें नांव दिलां. कल्हणाचे राजतरंगिणींत हाका 'तूष्णीं झूज' अशें म्हळां (तूष्णीम्=गुपचुप).

महाराष्ट्रांत सतराव्या शेंकड्यांत छत्रपती शिवाजी महाराजान विजापूरकर सुलतान आनी दिल्लीचो मोगल बादशहा हांचेआड जें एक हेच पध्दतीचें झूज केलें, ताका 'गनिमी कावा' अशें म्हण्टात. हाकाच 'मराठी कावा' अशेंय कांय जाण म्हण्टात.

विसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत अमेरिका, युरोप, फ्रांस, जर्मनी, जपान, रशिया, युगोस्लाव्हिया, चीन, व्हिएतनाम, क्यूबा, आफ्रिका ह्या राश्ट्रांतूय ह्या झुजतंत्राचो वापर जालो. इतिहासांत ह्या झुजतंत्राचो उपेग वेगवेगळ्या तीन प्रकारच्या परिस्थितींनी केल्लो तो असो: १. आपलें राश्ट्र जेन्ना बळिश्ट अशा परकी राश्ट्राच्या दास्यांत सांपडटा, तेन्ना ताचेआड मुक्तिसंग्राम ह्याच तंत्रान करतात. २. परकी घुरयेचो प्रतिकार अशक्य वा अयशस्वी जातकच स्वराश्ट्राचें विस्कळीत जाल्लें सैन्य आनी देशभक्त नागरिक संघटित जावन प्रतिकार सुरू करतात आनी आपल्या झुजाक लोक-झुजाचें स्वरुप दितात. ३. स्वकीय पूण जुलमी आनी अन्यायी राजवट हुमटून उडोवपाखातीर शोशित लोक अंतर्गत झूज करतात, तेन्ना ह्या झूजतंत्राचो वापर करतात.

पूर्विल्लो चिनी झूजशास्त्रज्ञ सून झू हाणें आपल्या 'बुक ऑफ द वॉर' ह्या पुस्तकांत तशेंच नामनेचो झूजशास्त्रज्ञ क्लाउझेव्हिट्स हाणें आपल्या 'ऑन वॉर' ह्या ग्रंथांत गनिमी झूजतंत्राची विस्तारान म्हायती दिल्या. आर्विल्ल्या काळाचे फाटभुंयेचेर आनी समृध्द अणभवांचेर आदारीत गनिमीय झुजतंत्राची अधिक खोलायेन चर्चा माओ त्से तुंग, जनरल जियाप आनी चे गुव्हेरा हांच्या ग्रंथांनी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**गया:** बिहार राज्यांतलें पांचव्या क्रमांकाचें शार, जिल्हाकेंद्र आनी हिंदूंचें पवित्र तीर्थक्षेत्र. अक्षांश २४° ४९' उत्तर आनी रेखांश ८५° १' उदेंत. लोकसंख्या: २,४६,७७८ (१९८१). आवांठ: २८.६२ चौ.किमी. फल्गू न्हंयेच्या कांठार, पाटणाचे दक्षिणेक ८८ किमी. आनी कलकत्त्याचे वायव्येक ४६७ किमी. अंतराचेर हें शार आसा. ह्या शाराचे दोन भाग आसात: १. मुखेल (पूर्विल्लें) नगर २. साहिबगंज (नवें) नगर. पूर्विल्ल्या नगरांत विष्णुपाद मंदिर तशेंच हेर पवित्र तीर्थां आसात. नवें नगर म्हळ्यार प्रशासन केंद्र जंय सरकारी कार्यालयां, न्यायालय, सरकिट हाउस, डाक घर, रेल्वे कार्यालय, इगर्ज, विमानतळ आनी विद्यालयां आसात.

महाभारतांत पांडवांच्या तीर्थयात्रेच्या प्रसंगान तीर्थरुप गयेचें वर्णन आसा, तें अशें:

ततो गयां समासाद्य ब्रह्मचारी समाहितः।
अश्वमेधमवाप्नोति कुलं चैव समुध्दरेत् ।।

(वनपर्व ९५.९)

अर्थ- गयेक वतकच ब्रह्मचाऱ्याक अश्वमेध केल्ल्याचें फळ मेळटा आनी ताच्या कुळाचोय उध्दार जाता.

अश्वघोषाच्या बुध्दचरितांत गयेचो उल्लेख आसा. राजर्षी गय हाच्या नांवावयल्यान ह्या नगराक 'गया' हें नांव पडलें, अशें अश्वघोष म्हण्टा. गौतम बुध्द ह्या नगरांत गेल्लो, अशेंय तातूंत म्हळां. सुद्युम्न वा इल हाच्या गय नांवाच्या चल्याक उदेंतेकडल्या देशाचें राज्य मेळिल्लें. श्वेतवाराहकल्पांत ह्या राजर्षीन गयानगरी ही आपली राजधानी म्हूण वसयली. गया आनी उत्कल ह्या वाठाराक पयलीं 'धर्मारण्य' अशें नांव आशिल्लें.

वायुपुराणांत गयेच्या उत्पत्तीविशीं अशी एक कथा आसा: गयासुर नांवाचो एक महापराक्रमी असुर आशिल्लो. कोलाहल पर्वताचेर ताणें उग्र तप केलें. विष्णू ताचेर प्रसन्न जालो. विष्णून दिल्ल्या वराक लागून गयासुराचें फकत दर्शन घेवन वा ताका स्पर्श करून साबार लोक पुण्यात्मे जावन स्वर्गांत वचपाक लागले. हाका लागून यमराजाक आनी हेर देवांक हुस्को जालो. विष्णूक ही खबर कळनाफुडें तो भुंयेचेर आयलो. ताणें यज्ञ करपाखातीर म्हूण गयासुराकडेन ताचें शरीर मागलें. गयासुरान आपलें शरीर दितकच देव ताचेर प्रसन्न जालो आनी ताणें गयासुराक वर दिलो- "हो वाठार 'गयाक्षेत्र' ह्या नांवान संवसारांत पवित्र तीर्थस्थान म्हूण नामनेक पावतलो. सगळे देव-देवता थंय वास करतले आनी जो थंय दहनक्रिया वा सपिंड श्राध्द करतलो, तो आपल्या पूर्वजांसयत ब्रह्मलोकांत वतलो." तेन्नासावन गयेंतल्यो वास्तू पवित्र जाल्यो.

द्वापरयुगांत प्रभु रामान गयाक्षेत्रांत वचून आपल्या पितरांखातीर पिंडदान केल्लें आनी थंयच्या गयावळ ब्राह्मणांक रुप्याचो आनी भांगराचो अशे दोन पर्वत आनी मधुपेयाच्यो दोन न्हंयो दान-दक्षिणा म्हूण दिल्ल्यो, अशें म्हण्टात.

गयाक्षेत्रांत श्राध्द केल्यार पितरांक तृप्ती मेळटा, अशें धर्मशास्त्रांत म्हळां. 'गयाश्राध्दमस्तु पितृणामक्षय्या तृप्तिरस्तु' असो आशीर्वाद सामान्य श्राध्दांत लेगीत आसता. देखून, आपल्या वंशांतल्या एका तरी चल्यान गयाक्षेत्रांत वचून श्राध्द करचें, अशी इत्सा पितर धरतात.

विष्णुपदमंदिर हें गयेतलें मुखेल मंदिर. फल्गूचे देगेर हें व्हड मंदिर आसून, भितर अश्टकोनी खोलगट भागांत विष्णुपद आसा. देवळाभायर सभामंडप आनी श्राध्दनिधीखातीर दोन व्हडले मंडप आसात. लागींच एक गरुडमंदिर आसा. इंदूरच्या अहिल्याबाई होळकर हिणें १७८७ च्या सुमाराक जयपूरच्या कारागिरांकडल्यान हें मंदिर बांदून घेतलें. गयेंतली दुसरी पळोवपासारकी सुवात म्हळ्यार अक्षय्य वट. हो ब्रह्मसरोवरालागीं आसून ताचे भोंवतणी वणत आसा. हाचे उत्तरेक वटेश्वर महादेवाचें मंदिर आसा. तेभायर हांगा सूर्यकांड आनी तळ्याचे अस्तंतेक एक सूर्यमंदिर आसा. सात घोड्यांचेर आरुढ जाल्ली हांगाची सूर्यमूर्ती ओडलायणी आता. गयेपसून लागींच 'धर्मारण्य' आसा. हांगा एक बांय आसा आनी ते बांयंत यात्रेकरु श्राध्दाचें पिंड उडयतात. हांगा धर्म आनी भीम हांचीं ल्हान मंदिरां आसात. धर्म भीमाक घेवन हांगा बापायचें श्राध्द करपाखातीर आयिल्लो आनी ताणें हांगा कांय काळ तप केल्लें अशें म्हण्टात. गयेंत सुमार ४५ श्राध्दवेदी आसून प्रेतशिला, रामशिला,

रामकुंड, ब्रह्कुंड, काकबळी, धर्मपृष्ठ, ब्रह्मसर आनी गृध्रकूट ह्यो तातूंतल्यो मुखेल आसात.

गया नगराचे १४ मैल उदेंतेक पुनावन हांगा कांय बौध्द समाधी आसात, तशेंच १६ मैल उत्तरेक 'बराबर' घोलींत वण्टींचेर अशोककाळांतले शिलालेख आसात. मगध साम्राज्यांत गया हें एक म्हत्वाचें नगर आशिल्लें. हांगाची पिकावळ अशी: धान्य, चणे, गंव, ऊंस आनी तीळ. हांगाचे मुखेल वेवसायः Nitre salt तयार करप, खणकाम (खास करून फातर आनी Mica), लाख तयार करप, मातयेचीं आनी पितुळचीं आयदनां तयार करप, रस्मी कपडे विणप. गया हें दक्षिण बिहारांतलें वेपार, उद्येग आनी येरादारी हांचें एक व्हड केंद्र आसा. गयेच्या धर्मीक माहात्म्याक लागून दर वर्सा सुमार ३ लाख हिंदू यात्री मोक्षप्राप्तीच्या उद्देशान आपल्या पूर्वजांचें गयावळ ब्राह्मणांवरवीं सपिंड श्राध्द करपाक गया क्षेत्राक भेट दितात.

**गया, बोधगया:** गयेचे दक्षिणेक ६-७ मैलांचेर निरंजना (नीलांजना) न्हंयेच्या कांठार 'बोधगया' हें बौध्दांचें पवित्र तीर्थक्षेत्र आसा. हाका 'बुध्दगया' अशेंय म्हण्टात. हांगा स वर्सां खर तप करतकच सिध्दार्थाक दिव्य ज्ञान मेळ्ळें आनी तो गौतम बुध्द जालो, अशें बुध्दचरित्रांत आसा. निरंजना न्हंयच्या कांठार रेंव आशिल्ल्यान ह्या वाठाराक 'उरूवेला' (उरू=रेंव, वेला= तट) अशेंय म्हण्टाले. बेलाच्या झाडांचें रान आसा म्हूण ह्या स्थानाक 'उरूबिल्ववन' अशेंय म्हण्टाले. स वर्सां उपास-तापास आनी कडक तप केल्ल्यान सिध्दार्थ सामको बारीक जालो पूण तरीकूय ताका दिव्यज्ञान प्राप्त जालें ना. मागीर ताणें 'सुजाता' नांवाचे बायलेन दिल्लो पायस घेवन उपास सोडलो. उपरांत तो निरंजना न्हंयच्या कांठार एका अश्वत्थ (पिंपळाच्या) रुखाखाला वज्रासन घालून ध्यानस्थ बसलो. इतल्यान भूंयकांप जावन एक पाशाणखंड वयर आयलो. सिध्दार्थ ज्ञानप्राप्ती जाय म्हणसर त्या खडपाचेरूच बसून रावलो. देखून त्या पाशाणाक 'बोधिपर्यंक' आनी त्या अश्वत्थ रुखाक 'बोधीवृक्ष' अशें नांव पडलें.

**महाबोधी मंदिर:** बोधगया हांगाचें व्हडलें, तेमक आशिल्लें 'महाबोधी मंदिर' ह्या नांवाचें देवूळ संवसारभर नामनेक पावलां. युआन च्वांग हाणें महाबोधी मंदिराचें जें वर्णन केलां, तें सद्याच्या मंदिरासारकेंच आसा. एका शिवभक्त ब्राह्मणान हो महाबोधी विहार बांदलो अशें ताणें म्हळां. हें मंदिर गुप्त काळांत इ. स. ५ व्या शेंकड्यांत बांदलां आसूंक जाय असो एक अदमास काडटात. सव्या शेंकड्यांत श्रीलंकेचो राजा महानामन हाणें गयेच्या बुध्द मंदिराचो जीर्णोध्दार केल्लो, असो उल्लेख बौध्द इतिहास ग्रंथ 'महावंश' हातूंत आसा.

हें मंदिर २ भागांत स्तूपाकार बांदलां. उंचाय १७० फूट, रुंदी ६० फूट. पयलो भाग चवकोनी आसून, वयलो भाग अशीर जायत गेला. ताच्या माथ्यार एक लांबट तेमक आसून तेंगशेक एक स्तूप आसा. वयल्या भागाच्या चारुय वटांनी कितलींशींच कुरकुटां आसून तातूंत कांय मूर्ती बसयल्यात. गर्भकुडीच्या चारुय कोनशांचेर मुखेल मंदिराच्यो ल्हान प्रतिकृती आसात. ह्या देवळाभोंवतणी पिंपळाच्या रुखाचें एक सोबीत रान आसा आनी त्या झाडांनी लेगीत ल्हान ल्हान स्तूप आसात. ह्या प्रांगणाचे उदेंतेक एक भव्य फातराचें तोरणद्वार आसून, ताचेर हरणाची आनी शिंवाची आकृती कोरांतल्या. देवळाचे गर्भकुडींत अस्तंतेक एका पेडाचेर भांगराचो मुलामो आशिल्ली बुध्दाची भव्य मूर्ती भूमिस्पर्शमुद्रेंत बसयल्या. तेभायर थंय मायादेवीची एक मूर्त आनी बोधिसत्त्वांच्यो पांच मुर्ती आसात. देवळाच्या दाराभायर तीन व्हडल्यो कुडी आसात. तातूंत मदले कुडींत एक शिवलिंग आसून कुशीच्या दोन कुडींनी बोधिसत्त्वांच्यो आनी बुध्दाच्यो मूर्ती आसात. ह्या कुडींक सद्या 'पंचपांडवमंदिर' अशें म्हण्टात. तातूंत एक शिवलिंग आसा, तें गौडाधिपती शशांकाचे आज्ञेप्रमाण प्रस्थापित केलां अशें म्हण्टात. महंताचे शिष्य थंयच्या बौध्द मुर्तींकूच पंचपांडव म्हण्टात. थंयच आद्य महंताची समाधी आसा. मंदिराचे दक्षिणेक एक व्हड तळें आसा, ताका 'बुध्दकुंड' अशें म्हण्टात.

**बोधिवृक्ष:** महाबोधी मंदिराचे अस्तंतेक एक पिंपळ आसा, ताकाच 'बोधिवृक्ष' अशें म्हण्टात. ह्या रुखालागींच जे सुवातीर सिध्दार्थाक संबोधी प्राप्त जाली, थंय वज्रासनाचें प्रतीक म्हूण एक व्हडलो तांबडो शिलाखंड एका पेडार बसयला. अशोक बुध्दाचो अनुयायी जालो आनी नेमान बोधिवृक्षाचें दर्शन घेवपाक लागलो, तेन्ना ताची राणी तिष्यरक्षिता हिणें तिडकीभितर तो रुख हुमटावन उडयलो. पूण अशोकान तो पर लायलो. अशोकाची चली संघमित्रा हिणें ताची एक खांदी लंकेंत व्हेली आनी अनुराधपूर हांगा रोयली. सुमार सातव्या शेंकड्यांत गौडाधिपती शशांक हाणें परत बोधिवृक्ष नश्ट केलो. पूण मगधराज पूर्णवर्मा हाणें त्या रुखाचीं कांय मुळां सोदून तीं परत थंय लायलीं अशें म्हण्टात. बौध्द लोक ह्या रुखाक पवित्र मानून ताची पूजा करतात. भरहूत आनी बोधगया हांगाच्या शिल्पकामांत नागराज आनी गजराज हे बोधिवृक्षाची पूजा करतात, अशीं चित्रां कोरांतल्यात. देखून, ही पूजा-परंपरा पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयल्या आसूंक जाय अशें दिसता. ह्या रुखाचे अस्तंतेक बुध्दपदचिन्हां आशिल्ल्यो दोन शिला आसात. बौध्द लोकांप्रमाणूच हिंदू लोक लेगीत बोधिवृक्षाक पवित्र मानून ताका वंदन करतात. गयामहात्म्या, अग्नी पुराण, वायू पुराण ह्या ग्रंथांनी बुध्दगया आनी बोधिवृक्ष हांची महिमा गायल्या.

**प्राग्बोधी:** बोधगयेचे उत्तरेक तीन मैलांचेर, फल्गू न्हंयेच्या उदेंत देगेवयल्या दोंगरांत एक घोल आसा. ते घोलींत रावन शाक्य मुनीन स वर्सां कठोर तप केल्लें, म्हूण तिका 'प्राग्बोधी घोल' अशें म्हण्टात. युआन च्वांगच्या भोंवडेवर्णनांत लेगीत हे सुवातीचो उल्लेख आयला. थळावे लोक मात ते घोलीक 'डुंगेश्वरी देवीची घोल' अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

## गरबा:

**गरबा:** गुजरात, राजस्थान आनी मालवा वाठारांत प्रचलित आशिल्लें एक लोकनृत्य. गरबा शब्दाची व्युत्पत्ती अशी: पयलींच्या काळांत नवरात्राच्या दिसांनी बुराक आशिल्ले घागरींत अखंड पणटचो पेटोवन देवीकडेन दवरताले. ताका 'दीपगर्भघट' अशें म्हण्टाले. ह्या 'दीपगर्भ' शब्दांतल्या कांय वर्णांचो लोप जावन 'गरबा' हो अपभ्रंश रुढ, जालो असो समज आसा.

ह्या लोकनृत्याचें मूळ उगमस्थान गुजरात. कृष्णाची नातसून (बाणासुराची चली) उषा हिणें स्वता पार्वतीकडल्यान शिकिल्लें लास्यनृत्य सौराष्ट्रांतल्या गोपींक शिकयलें अशी एक आख्यायिका आसा. आजकाल हाका आर्विल्ले नृत्यकलेंत सुवात मेळ्ळी तरी ताचें मूळ स्वरुप लोकनृत्यात्मक जावन आसा. गुजराती भाशेंत हाचो उच्चार 'गरबो' असो करतात.

गुजरातांत चलयो-बायलो नवरात्राच्या दिसांनी ओले मातयेची, बुराक आशिल्ली एक घागर घेतात. धर्मीक विधी जातकच चुंबळीच्या आदारान ती घागर माथ्यार घेतात. मागीर वांटकुळीं उबीं रावतात. घागरीक आफडीनासतना दोनूय हातांनी ताळयो आनी चुटक्यो वाजयत अंबा, कालिका, रांदलमाँ ह्या देवींचीं स्तुतीगीतां गावन वेगवेगळे नाच करतात. कृष्णलिला, ऋतुवर्णनां वा समाजीक विशय हांचेर आदारिल्ल्या गीतरचनांचेर गरबा नाच जातात. आजकाल ताळयां-चुटक्यांच्या जाग्यार खंजिरी, मंजिरी, पणट्यांच्यो थाळयो ह्या साधनांचोय गरबा नाचांत आस्पाव जाला.

गरबा हें सौभाग्यप्रतीक अशें मानतात. आश्विन म्हयन्यांत नवरात्राच्या दिसांनी गरबा नाचाचो दबाजो जाता. बायलांचो गरबा नवरात्रांत ९ दीस जाता. दादल्यांचो गरबा दसरो जातकच सुरू जाता. नवरात्राचे रातीं मातयेच्यो दोन ल्हान-व्हड घागरी एकार एक दवरतात आनी वयले घागरीचेर पण्टी दवरून तातूंत चार वाती पेटयतात. अशे तरेन 'गरबा' स्थापन जातकच बायलो ताचे भोंवतणी ताळयो वाजयत फेर धरून नाचतात. गोड आवाज आशिल्ली बायल पद म्हण्टा आनी नाचांत वांटो घेवपी हेर बायलो तिका एका सुरार आनी तालार साथ दितात. दरेक राती कमीत कमी पांच तरी पदां गावंकूच जाय असो नेम

आसा.

'गरबा' आनी 'गरबी' अशे गरब्याचे दोन प्रकार आसात. शाक्त-शैव समाजाच्या गीतांक गरबा अशें म्हण्टात. हीं गीतां अंबाजी, बहुचरा, काली ह्या दुर्गारुपांच्या स्तवनाचीं आसतात. गरबी हो शब्द सगळ्यांत पयलीं १७ व्या शेंकड्यांत भाणदास हाणें वापरलो. नरसी मेहताचीं पदां गरबी ह्या सदरांत घेतात. गरबी हो प्रकार चड करून वैष्णवांचो आशिल्ल्यान त्या गीतांनी राधाकृष्णाचें वर्णन आसता. दयाराम ह्या कवीन उपाट गरबी-रचना केल्या, म्हूण ताका गरबीसम्राट अशें म्हण्टात. गरबा आनी गरबी हांच्या गावपाच्या प्रकारांनी लेगीत भेद आसा.

गरबा हो नृत्य-गीत प्रकार गुजरात-सौराष्ट्रांत खूब लोकप्रिय आसा. समाजाच्या सगळ्या थरांनी गरबाचीं वेगवेगळीं पदां आसात. गुजरातचे लोकजीणेचीं सगळीं आंगां समाजीक, राजकी, इतिहासीक आनी पौराणिक अशा विंगड विंगड विशयांतसून 'गरबा' वरवीं प्रगट जाल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**गर्भपात:** २८ सप्तकां पुराय जावचेपयलींच गर्भ गर्भाशयांतल्यान भायर पडप आनी गुरवारपणाचो शेवट जावप, हाका गर्भपात अशें म्हण्टात. हाचें कारण म्हळ्यार २८ सप्तकां पुराय जावचेपयलीं गर्भ आवयच्या गर्भाशयाभायर स्वतंत्रपणान जियेवंक शकना. भारताभायर हेर बऱ्याच फुडारिल्ल्या देशांनी मात नव्या वैजकी उपकरणांक लागून २० सप्तकां पुराय जाल्लो गर्भ जिवो उरता.

डिंबपेशीच्या (Ovum) दोशांक लागून गर्भ मरता वा व्यंग आशिल्ले जल्माक येवंक शकता. गुणसुत्रांच्या (Chromosomes) दोशांक ला· आवयक कसलेंय दुयेंस देखीक- जोर येवन, गोडेंमूत, रगतदाब वा, काळजाचें दुयेंस, पोटाचेर मार बसून गर्भाशयांत व्यंग वा दोश तयार जावन, जुवळीं भुरगीं आशिल्ल्यान, गर्भाशयांत उदक (hydramnios) चड आशिल्ल्यान, नाळीची गांठ पडिल्ल्यान आनी गर्भाशयाची रगत पुरवण बंद पडिल्ल्यान अशा तरेकवार कारणांक लागून गर्भपात जावं येता.

**प्रकार:** *१. अपुराय गर्भपात (incomplete abortion):* गर्भाचो कांय अंश भायर पडटा आनी उरिल्लो गर्भाशयांतूच उरता.

*२. पुराय गर्भपात (Complete abortion):* पुराय गर्भ भायर पडटा.

*३. चुकिल्लो गर्भपात (missed abortion):* गर्भ मरता आनी गर्भाशयांतूच बरेच दीस उरता.

*४. संकटमय गर्भपात (threatened abortion):* गर्भपात जावंक निकतीच सुरवात जाता, पूण गर्भ चडसो गर्भसुवातेसावन वेगळो जायना आनी गुरवारपण फुडें वचूंक शकता.

*५. अपरिहार्य गर्भपात (inevitable abortion):* गर्भ भायर पडपाची प्रक्रिया सामकी फुडें पावता आनी गुरवारपण सांबाळपाखातीर कांयच करूंक जायना.

*६. पूं वा मातेर जाल्लो गर्भपात (septic abortion):* गर्भ पयलीं मरता आनी ताका सांसर्गिक जंतू लागतात, हाका लागून गर्भसुवातेक संसर्गदोश तयार जाता.

*७. दंडनीय गर्भपात (criminal abortion):* नाका आशिल्ल्या गुरवारपणांतल्यान सुटपाखातीर, गर्भाशयांत कसलीय वस्त घालून गर्भ नश्ट करपाचो यत्न जाल्यार गर्भसुवातेक मार बसता. केन्ना केन्नाय बुराक लेगीत जाता.

*८. पुनरुद्‌भवी गर्भपात (recurrent abortion):* तीन वा चड फावट गर्भपात जावप.

**लक्षणां:** १. गुरवार बायलेच्या आंगार रगत जावप. २. पोटांत वा फाटींत दुखप. ३. प्रत्यक्षांत गर्भ वा ताचे कुडके योनींतल्यान भायर सरतना दिसप. ४. आंगार पुडीकोराचो स्त्राव जावन घाण येवप. ५. पुराय गर्भपात जाल्लो आसल्यार गुरवारपणाचीं सगळीं लक्षणां सोंपतात.

हे भायर योनीची तपासणी (per vaginal examination) करीत जाल्यार रगत वा पुडीकोराचो स्त्राव दिश्टी पडटा. हातान तपासतकच गर्भाशयाचो आकार सदचेभशेन ल्हान लागता आनी गर्भसुवातेचें तोंड बंद जाल्लें आसता.

**उपाय:** रगताचो स्त्राव थांबोवपाखातीर आनी दूख चड आसल्यार शिरेंतल्यान वखद दिवन मेल्लो गर्भ भायर काडप, १२ सप्तकांपरस उणो आसल्यार शस्त्रांचो उपेग करून गर्भ भायर ओडून काडप (D and C).

संकटमय गर्भपात आसल्यार, गुरवार बायलेक स्वस्थ न्हिदोवप, चड तकालस घेवप ना, उपशामक वा न्हिद येवपाचें वखद दिवप, गर्भाशयाचे स्नायू निवळावप, गुरवारपण फुडें चलोवपाखातीर गर्भ सांबाळपाचें होर्मोन दिवप.

पूं वा मातेर जाल्लो गर्भपात जाल्यार- गुरवार बायलेक हॉस्पिटलांत दवरप, धोणकुटेचें इंजेसांव दिवप आनी रगत दिवप. D and C करून गर्भाशय साफ करप आनी वेळ पडल्यार शस्त्रक्रिया करून पुराय पोकळी नितळ करप (Laparotomy) .

गुरवार बायलेच्या जिविताक आनी पर्यायान गर्भाशयांतल्या भुरग्याक धोको निर्माण जायत जाल्यार कृत्रिम पध्दतीन गर्भपात करपाची चाल पयलींसावन आसा. अशा प्रकारचे गर्भपात खासा गर्भाविशींचें शिक्षण घेतिल्ल्या दोतोरांकडल्यान करून घेतात. असो कृत्रिम गर्भपात करपाच्यो बऱ्योच पध्दती आसात आनी अशा प्रकारचो गर्भपात करपाविशीं कायदोय आसा. भारत सरकारान १९७२ त वैजकी गर्भारपण समाप्ती कायदो (Medical termination of pregnancy act) लागू केला. ह्या कायद्या वरवीं खंयचेय बायलेक जर गुरवारपणाचो मानसिक वा कुडीचो त्रास जाता, जाल्यार वा हेर कसल्योय अडचणी आसत जाल्यार देखीक- गुरवारपण बलात्कारावरवीं आयल्यार वा भुरग्याक कसलेंय व्यंग जावपाची शक्यताय आसल्यार तिणें गर्भपात करून घेवपाखातीर २० सप्तकां पुराय जावचे पयलीं हॉस्पिटलांत वचूंक येता.

लग्न जाल्ल्या जोडप्याक कुटुंब नियोजनाचे पध्दतीचे चुकीक लागून जर गुरवारपण येत, जाल्यार गर्भपात करपाचो पुराय हक्क भारत सरकारान दिला.

- डॉ. विजय तळावलीकार

**गर्भलिंग पारख:** गुरवार बायलेच्या गर्भाशयांत जो गर्भ वाडटा, ताचें लिंग त्या भुरग्याचो जल्म जावचेपयलींच वळखप हाका 'गर्भलिंग पारख' अशें म्हण्टात.

गर्भाचें लिंग हें दादल्याच्या शुक्रजंतूंचेर (sperms) आदारून आसता. बायलेच्यो डिंबपेशी (ovum) गर्भ तयार जावपाखातीर वांटो घेतात, पूण गर्भाचें लिंग थारायनात. हाचें कारण म्हळ्यार शुक्रजंतू हे दोन प्रकारचे आसतात- एकांत लिंग थारावपी X गुणसुत्रां (X Chromosomes) आसतात आनी दुसऱ्यांत Y गुणसुत्रां (Y Chromosomes) आसतात. बायलेचे डिंबपेशीभितर फकत एकेच तरेचीं म्हळ्यार X गुणसुत्रां (X Chromosomes) आसतात. जर X आनी Y एकठांय येत जाल्यार गर्भ पुल्लिंगी जाता आनी X आनी X एकठांय येत जाल्यार गर्भ स्त्रीलिंगी जाता. हाका लागून गर्भ पुल्लिंगी वा स्त्रीलिंगी जावपाची शक्यताय दरेकी ५०% आसता आनी स्वताक जायत्या लिंगाचो गर्भ तयार करप आवय बापायच्या हातांत नासता.

खंयच्याच दोतोराक गर्भाचें लिंग कितें आसतलें हें १००% सांगप केन्नाच शक्य नासता, पूण Fuorescent Staining Technique वापरून ८०% ते ८५% अचूक लिंगाची पारख करप शक्य आसा.

गर्भलिंग पारख दरेक गुरवार बायलेविशीं करप जायना. कांय बायलांविशीं मात अशी पारख करप म्हत्वाची आसता.

कांय कुटुबांनी भुरग्यांक जल्मासावन कसलें तरी व्यंग आसता. हीं व्यंगां आनुवंशिक (hereditary) आनी परंपरागत (genetic) आसतात. X-linked recessive disorder नांवाचो रोग ज्या कुटुंबांनी उप्रासता, त्या कुटुंबांतल्या सगळ्या चल्यांक कसलें तरी व्यंग आसता. स्त्रीलिंगी गर्भांत २ X गुणसुत्रां (Chromosomes) आशिल्ल्यान चलयांक ताची बादा जावंक शकना. अशा जोडप्यांक गर्भाची अचूक पारख करून फकत चलयोच जावंक दिल्यार ताची बादा जावंक शकना. हे भायर Haemophilia हें एक

घातक दुयेंसय टाळूं येता.

भारतांत कांय जोडपीं समाजीक कारणांक लागून गर्भाचें लिंग पयलींच वळखुपाखातीर उत्सुक आसतात आनी पारख करून स्वताक जाय त्या लिंगाची निवड करून निश्कारण गर्भपात (M. T. P.) आनी बालहत्या (infanticide) चुकोवंक येता.

**पारख करपाची पध्दतः** गर्भाभोंवतणचे पिशवेंत वा आवरणांत जें उदक आसता, (amniotic fluid) तें सूय तोपून भायर काडप, हाका amniocentesis अशेंय म्हण्टात. ह्या उदकांत मेळिल्ल्या पेशींची उदरगत (culture) करून तांचो अभ्यास करप, हाका Karyotyping अशें म्हण्टात. ह्या पेशींभितर बार बॉडी Barr Body नांवाचो एक सूक्ष्म गुळो आसा वा ना हाचो तपास करप. गर्भ जर स्त्रीलिंगी आसत, जाल्यारूच तातूंत Barr Body आसता आनी Barr Body नासत जाल्यार गर्भ पुल्लिंगी आसा, असो अदमास काडूं येता.

हालींतेंपार एक नवी पध्दत आयल्या, जिका कोरीयोन बायोप्सी (Chorian Biopsy) म्हण्टात. हातूंत गर्भांतल्या कोरीयोन नांवाच्या एका खासा वांट्याचो कुडको काडून तपासतात आनी गर्भाचें लिंग पारखितात. हो तपास करतना गर्भपात जावपाची शक्यताय मात बरीच वाडटा.

**कायदेः** गर्भलिंग पारख भारतांत सगळेकडेन करतात. ताचे आड वा ताका तेंको दिवपी असो कायदो ना. फकत महाराष्ट्र राज्याभितर गर्भलिंग पारख करपाच्या सगळ्या पध्दतींचेर बंदी घाल्या.

गर्भलिंग पारख करची न्हय हें मत परगटावन भारतांत बरेच पंगड आनी लोक असले पारखेआड बोवाळ करीत आसात. गोंयांत आयजमेरेन असली पारख (test) करतात. ताच्या आड सरकारान सद्यातरी कसलोच कायदो हाडूंक ना.

- डॉ. विजय तळावलीकार

## गर्भाधानः

गर्भाधान म्हळ्यार गर्भाचें आधान म्हळ्यार 'दवरप' (आ+धि= दवरप, प्रतिष्ठापना करप). गर्भाची स्त्री- शरिरांत संस्कारपूर्वक थापणूक करप. 'धाता गर्भदधातु ते' ह्या मंत्रावेल्यान हें नांव आयिल्लें आसा.

मनशाचे उदरगतीचे पयले अवस्थेंत शरीरसंबंद, गर्भसंभव आनी अपत्यप्राप्ती हे सैमीक विधी आशिल्ले. तांकां उपरांत प्रगत अवस्थेंत संस्काररुप मेळ्ळें. गर्भाधान हो हिंदूच्या सोळा संस्कारांमदलो पयलो संस्कार आसून तो भुरग्याच्या जल्मापयलीं करपाचो आसता.

संहिताग्रंथांत गर्भाधानाचो प्रत्यक्ष उल्लेख ना. पूण गर्भधारणा, गर्भाच्यो देवता, हांचेविशीं (ऋग्वेद १०.१२४ अथर्व ५.२५) उल्लेख आसात. उपनिषदांत पुत्रमय विधीचो उल्लेख येता. बृहदारण्यक उपनिषदांत अथर्ववेदीय मंत्र दिवन ऋतूप्राप्तीच्या चवथ्या दिसा करपाचो विधी सांगला. तातूंत साळी काडून शीत करचें आनी तूप घालून आहुती दिवची अशें म्हळां. शांख्यायन गृह्यसूत्रांत 'चतूर्थीक्रम' लग्नाचे चवथे राती करचें आनी 'अध्यंडा' वनस्पतीचो रोस घोवान बायलेचे उजवे नाकपुडयेंत पिळचो अशें म्हळां. वैखानससूत्रांत हे विधीक ऋतूसंगमन अशें म्हळां. उपरांत लग्नाची पिराय सकल आयली आनी 'चतुर्थीकर्म' रद्द जावन त्या जाग्यार ऋतूप्राप्ती उपरांत चवथ्या दिसा करपाचो 'गर्भाधान विधी' प्रचारांत आयलो.

सद्या प्रचलीत आशिल्ल्या गर्भाधानाचें विधान सूत्रग्रंथांत केल्लें आसा. भश्टी न्हाल्ल्या दिसासावन पांचव्या ते सोळाव्या दिसामेरेन केन्नाय हो संस्कार नवे लग्न जाल्ले बायलेविशीं करपाचो आसता. ह्या संस्काराफाटल्यान दोन हेत आसतात. १. स्त्रीक्षेत्राचें शुध्दीकरण आनी २. बरे प्रजेचे जनन. स्मृतिकारांनी ह्या संस्कारांची तिथी, नक्षत्रां आनी तार्चे फळ हांचें विवेचन केल्लें आसा. बौधायन सूत्रांत बायल वायट नक्षत्रार भश्टी जाल्यार भुवनेश्वरी शांती करची अशें सांगलां. ह्या सूत्रांत ते संबंदीचो विधी आसा.

गर्भाधानांत सुर्वेक घोव पुण्याहवाचन आनी नांदीश्राध्द करता. उपरांत गृह्याग्नीत विष्णूक स आनी प्रजापतीक एक अश्यो सात आहुती दितात. ह्यो आहुती चरूच्यो म्हळ्यार शिताच्यो आसतात. मागीर 'उदीर्ष्वातः पतिवती. . .' (ऋ १०.८५.२१) ह्यो मंत्र म्हणून बायलेचे उजवे नाकपुडयेंत अश्वगंधेचो वा दुर्वेचो रोस पिळटात. बायलेक उदेंतेकडेन तोंड करून बसयता आनी घोव फाटल्यान उबो रावन वयलेतरेन रोस पिळटा. उपरांत बायलेच्या हातान ब्राह्मणाक पांच फळांचें दान करता. रातचें समागमाच्या वेळार, बायलेच्या जननेंद्रियाक स्पर्श करून घोव फुडें दिल्लो मंत्र म्हण्टा.

विष्णुर्योनिं कल्पयतु त्वष्टा रूपाणि पिंशतु ।
आ सिञ्चतु प्रजापतिर्धाता गर्भं दधातु ते ।।
गर्भ धेहि सिनीवालि गर्भं धेहि सरस्वति ।
गर्भं ते अश्विनौ देवावाधत्तां पुष्करस्त्रजा ।।
हिरण्ययी अरणी यं निर्मन्थतो अश्विना ।
तं ते गर्भं हवामहे दशमे मासि सूतवे ।।

(ऋग्वेद १०.१८४.१-३)

समागमा उपरांत दादल्यान न्हांवचें अशें सांगलां. बायलेक न्हाणाची गरज ना.

**लौकिक विधीः** गर्भाधानाचे रातीकडेन घोव-बायलेक एककडेन बसोवन बायलेकडल्यान घोवाची पूजा करून घेतात. बायलेची सवाशिणीवरवीं होटी भरतात. रातची शेज सजोवन दिवली लायतात. शेजे म्हऱ्यांत मिठायेचें ताट आनी सुपारेचो करंड दवरतात. दुसऱ्या दिसा घोव-बायलेक एकठांय बसोवन आरती करतात. सकाळची शेज काडपी बायलेक पैशे मेळटात. गोंयांत हो विधी 'फळसोबन' ह्या नांवांन प्रसिध्द आसा. खास करून ब्राह्मण समाजांत आनी कांय कडेन हेर जातींतय हो विधी प्रचलीत आशिल्लो दिसता.

ा. कृ. पित्रे

## गलस्ट्रांड, आल्व्हारः

(जल्मः ५ जून १८६२, लांतस्क्रूना; मरणः २८ जुलय १९३०, स्टॉकहोम).

स्वीडिश दोळ्यांचो वैज. उप्साला, व्हिएन्ना आनी स्टॉकहोम हांगा ताचें शिकप जालें. ताणें १८८८ त वैजकीची पदवी घेतली आनी १८९० वर्सा 'दोळ्यांचे विकार' ह्या विशयांतली डॉक्टरेट मेळयली. ते उपरांत तो स्टॉकहोम हांगाच्या कॅरोलीन इंस्टिट्यूटांत 'दोळ्यांचे विकार' ह्या विशयाचो व्याख्यातो जालो. १८९४ ते १९१३ मेरेन उप्साला विद्यापीठांत त्याच विशयाचो प्राध्यापक म्हूण ताणें काम केलें. १९१४ सावन त्याच विद्यापीठांत तो भौतिक प्रकाशकी (Physical Optics) आनी शरीरक्रियात्मक प्रकाशकी (Physiological Optics) ह्या विशयांचो प्राध्यापक आनी संशोधन मुखेल जालो.

विंगड विंगड पारदर्शक माध्यमांतल्या, खास करून दोळ्यांतल्या माध्यमांतल्या उजवाडाचें प्रणमन (refraction), दोळे आनी उजवाडाचें पातळप (dispersion) हांचे संबंद आनी दोळ्यांतल्या उजवाडाच्या प्रतिमांच्या घुस्पागोंदळाची सोडवणूक हे ताच्या संशोधनाचे विशय आशिल्ले. दोळे तपासपाखातीर ताणें 'Gullstrand Slit Lamp' हें साधन सोदून काडलें. दोळ्याच्या किरणवक्रीभवनाविशीं (dioptrics) ताणें केल्ल्या मोलादीक संशोधनाखातीर ताका १९११ त शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी ह्या विशयांखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फावं जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## गवंडळकार, रवींद्र वासुदेवः

(जल्मः १ एप्रिल १९३४, म्हापशें- बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. उपरांत जनार्दन शिंक्रे, फ्रेंक आंद्रादे, गिलबर्ट रिबेलो हांच्या मार्गदर्शनाखाल 'गोंय सोडात' चळवळींत ताणें वांटो घेतलो. बारदेस तालुक्यांतल्या गांवांनी बसका घेवन, थंयच्या लोकांमदीं सुटके झुजाविशीं खबरो पातळावपाक ताणें बॅरिस्टर नाथ पै

हाका आदार दिल्लो. १९५४ वर्सा सावन तो गोंयच्या भोवजन समाजाखातीर वावुरलो. शेतांतल्या कामेऱ्यांक आनी कारखानांतल्या कामगारांक एकठांय हाडून तांकां तो गोंय सुटकेविशीं म्हत्व सांगतालो. पोर्तुगेजांआड हिंसक आनी पाड्यो कारवायो करपाक ताणें भुयारां बांदून घेतलीं. ह्या भुयारांवरवीं भुंयगत वावुरप्यांक लिपून रावपाक आदार मेळटालो. २६ मार्च १९५५ दिसा पोलिसांनी ताका धरून बंदखणींत दवरलो. थंय ताचे कडल्यान हेर खबरो काडून घेवपाक ताका बरेच त्रास दिले. १९५६ वर्सा प्रादेशिक लश्करी न्यायालया (Territorial Military Tribunal) मुखार चवकशे उपरांत ताका स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायिली.

नोव्हेंबर १९५८ वर्सा जेन्ना बंदखणींतल्या सगळ्या कैद्यांक सूट मेळ्ळी तेन्ना ताचीय बंदखणींतल्यान सुटका जाल्ली. उपरांत तो प्रभाकर सिनारी आनी कृष्णराव राणे हांच्या फुडारपणाखाल 'रंकूर पात्रिओतिका' (Rancour Patriotica) पक्षांत आयलो. जानेवारी १९६० त पोलिसांनी ताका ताचो बापूय आनी भाव हांचेसयत धरलो. गोंय सुटके उपरांत ताणें जायत्या कामगार संघटनांखातीर वावर केला. भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गवंडीकामः** विटो, चिरे, फरशी आदी पदार्थ सुके वा संयोजक वापरून बांदकाम करतात, ताका गवंडीकाम अशें म्हण्टात. फातराच्या बांदकामाखातीर लागपी खणींतले चिरे काडटल्याक 'कोंकेर' (पाथरवट) अशें म्हण्टात. ताशिल्ले चिरे, विटो जोडून बांदकाम करतल्याक गवंडो म्हण्टात.

ईजिप्त, मेसोपोटेमिया, भारत आनी चीन देशांत मेळिल्ल्या बांदकामाच्या अवशेशांवयल्यान इ. स. प. ३००० वर्सांच्या काळांत गवंडीकाम बऱ्या पांवड्याचें आशिल्लें, अशें दिसता. मोहेंजोदडो आनी हराप्पा हांगाच्या उत्खननावेल्यान थंयचें गवंडीकाम ईजिप्त देशांतल्या बांदकामापरस बरें आशिल्लें हें स्पश्ट जाता. पाटणा शारालागीं राजगृह हांगा अनघड फांतरांच्यो वण्टी फातराची पुरणी करून संयोजकाबगर करपाचो यत्न इ. स. प. णव्या शेंकड्यांत केल्लो. सम्राट अशोकान ग्रीक आनी पर्शिया हांगाच्या कामगारांकडसून फातरांचें खोदकाम आनी कोरीवकाम करून फातराच्या कमानींचें आनी कठड्यांचें नक्षीकाम केल्लें मेळटा. बिसनगर (मध्यप्रदेश) हांगाचें इ. स. प. दुसऱ्या शेंकड्यांत बांदिल्ल्या विष्णुमंदिराचे बुन्यादीचें बांदकाम विटोचुन्यांत केल्लें मेळटा. मराठवाड्यांतल्या तेरगांव हांगा आनी आंध्र प्रदेशांतल्या चेझली गांवांत इ. स. पांचव्या शेंकड्यांत विटांनी बांदिल्लीं देवळां दिसतात. अशोकाच्या काळांतले कांय स्तूप आनी इकराव्या शेंकड्यांतल्या गुजरातांतल्या मोढेरा मंदिराच्या बांदकामांत विटांवांगडाच फातराचोय उपेग केल्लो दिसता. विजयानगरचे भव्य प्रासाद, मंदिरां, ल्हान धरणां, उदकाचे पाट हांचें गवंडीकाम जाल्लें. मदुरेचीं गोपुरां सतराव्या शेंकड्यांत बांदिल्लीं. वेरुळची लेणीं, मद्रासाक मलयापुरम् हांगा कोरांतिल्ले फातराचे रथ हातूंत सोबीत खोदकाम आनी घडाय पळोवंक मेळटा. ओरिसांत भुवनेश्वरालागचें लिंगराज आनी हेर मंदीरां, कोनारक सूर्य मंदीर, दक्षिणेचें रामेश्वर, मदुरा, राजस्थानांतली जैन मंदिरां हीं फातराच्या बांदकामाखातीर नामनेक पावल्यांत. आग्राचो ताजमहाल, फतेपूर सीक्रीच्यो व्हडल्यो इमारती हीं सोळाव्या-सतराव्या शेंकड्यांतलीं उदाहरणां. ईजिप्ताचे नामनेचे पिरॅमिड आनी थंयचेंच स्फिंक्सचें भव्य कोरीवकाम इ. स. प. २५०० वर्सां आदीं केल्लें. सतराव्या शेंकड्याआदीं बांदिल्लें लंडनचें सेंट पॉल कॅथीड्रल नामनेक पावलां.

**गवंडीकामाचे सामान्य नेमः** चिरे, विटो हे बांदकामाचे घटक एकजीव करून काम एकसंध करप ही मोख. तातूंतले घन घटक वेगळे जावंचे न्हय म्हूण तांचो एकामेकांत गुताव जातलो अशी खास रचणूक करतात.

**फातरांचें काम (घडप)**: १. घडाय करपाक लागपी मुखेल हत्यारां अशीं: तरांतरांचीं छिन्नी, लोखणाचो तुतयो, लोखणी गुण्या. २. घडायेचे प्रकारः बुची, सडकीव, दात्री आनी माठीव तेचप्रमाण यांत्रिक घडाय.

**फातराच्या कामाचे प्रकार (जोडप)**: १. चिरेबंदी वा संगीन २. खांडकी ३. डबरी कळीचे ४. डबरी थराचे ५. डबरी बिनथराचे.

**धरणाच्यो वण्टीः** धरणासारक्या खूब रुंदायेच्या वण्टीच्या बांदकामाचो अर्दो ते एक मी. दाटायेचो दर्शनी भाग खांडकीचो बांदतात. भितल्ली पुरणी थराच्या वा बिनथराच्या फातरांची वा कॉंक्रिटची करतात.

**गुतावः** चिऱ्यांचें काम तातूंतल्या फातरांच्या आकाराखातीर आनी वजनाखातीर थीर उरता. तरीलेगीत गरजेप्रमाण फातरांचो गुताव घट्ट करपाखातीर.दोन फातरांमदीं लळकुसू आनी भीड सांधो अंतराअंतराचेर बांदतात. दरेक थर सपाट करीनासतना वयर सकयल करतात. अशेतरेन वयल्या थराचो सकयल्या थराकडेन गुताव जाता.

**फरसबंदीः** ज्या जाग्यार फरसबंदी करपाची आसता, त्या जाग्यार कॉंक्रिटचो भक्कम आदार सादारण एके समान पातळेंत करतात. फरसबंदी करपाची सुवात निवळ करून उदकान ओली करतात आनी ताचेर संयोजकाचो थर घालतात. हाका 'गादी' म्हण्टात. गादयेचेर शिमिटाचे पातळ थर घालतात. तातूंत फातराच्यो, शहाबाद वा शिमिटाच्यो फरश्यो तांच्यांतलो सांधो सरळ आनी अरुंद दवरून, सकयलें शिमीट सांध्यांतल्यान वयर येतलें अशे तरेन दामून बसयतात आनी लांकडान घट्ट ठोकून बसयतात.

**विटकामः** जोडप करपाक विटो वापरचेआदीं त्यो दोन वरां तरी उदकांत बुडोवन दवरतात. संयोजक आंवळून येवपाखातीर जाय आशिल्ली ओलसाण विटांनी शोशून घेवंची न्हय हो विटो भिजोवपाफाटलो हेत. विटकामांतल्या दरेक थरांतल्या विटांची मांडणी पध्दतशीर रचून सांधमोड, गुताव करपाचे खूब प्रकार आसात.

**कमानीचें बांदकामः** दारांचेर वा जनेलांचेर ल्हान कमानी बांदतना कडेचे वण्टीचो थोडो आदार घेवन वा तळाकसावन लांकडाचे खूर लावन ताचेर फळयो बसयतात. फळयांचेर विटांचे पेळे रचोवन ताचो माथो चिखल थापून कमानीच्या वाटकुळ्या आकारांत हाडटात आनी कमानीचो आडको तयार करतात. ह्या चिखलाच्या आडक्याक 'कलबूत' म्हण्टात.

**दरजो भरपः** बांदकामाखातीर वापरिल्लो संयोजक पृष्ठभागाच्या सांध्यांत तसोच दवल्लो जाल्यार वत-पावस आनी चड वापर हाका लागून तिगना; देखून पृष्ठभागापसून कांय खोलायेमेरेन सांध्यांतलो संयोजक पोखरून काडटात. आनी बांदकामाचेर गिलावो करपाचो नासल्यार ते सुवातेर आनी फरसकामांत हो टिकाऊ संयोजक भरतात. हाका दरजो भरप अशें म्हण्टात. दरजो भरपाफाटलो हेत सांध्याची घटाय वाडोवपाखातीर, पावसाचें उदक सांध्यांतल्यान बांदकामांत रिगचें न्हय म्हूण आनी बांदकामाचो दर्शनी भाग सुंदर दिसचो हो आसता.

**गिलावोः** इमारतीच्यो वण्टी सपाट, गुळगुळीत, नितळ आनी तिकतिकीत जावंच्यो म्हूण गिलावो करतात. वण्टी जाता तितल्यो जलाभेद्य उरच्यो हो गिलावो करपाफाटलो हेत आसता.

गिलाव्याचे कितलेशेच प्रकार आसातः १. मातयेचो २. चुन्याचो ३. चुनो-शिमिटाचो ४. शिमिटाचो ५. जिप्समचो (Plastic of Paris) ६. संदला वा नीरुचो ७. जाळयेचो.

आयच्या काळांत गिलाव्याचे त्रास चुकोवपाखातीर ॲसबॅस्टोसचे सपाट पत्रे, लांकडाचे तक्ते, वण्टीच्या पृष्ठभागाचेर स्क्रूवान घट बसयतात. सांदे एकजीव करतात आनी रीप मारून चौकट करतात. हें गिलाव्यापरस सोबीत आनी चकचकीत दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**गवळी, नवळू धाकू वरगः** (जल्मः २० जानेवारी १९१७, नेतुर्ली-सांगें).

गोंयचो सुटके झुजारी. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. टॉनी फेर्नांदीस आनी हेर राश्ट्रवादी जेन्ना रानांतल्यान भोंवताले तेन्ना तांकां वाट दाखोवपाचें काम ताणें केलें. १९५६ वर्सा पोलिसांनी

ताका धरलो आनी पणजी पोलीस ठाण्यार व्हरून बरोच मार दिलो. उपरांत एक वर्स आग्वाद बंदखणींत दवरून, डिसेंबर १९५७ वर्सा ताची सुटका केली. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गवो:** रानटी बैलांभितर सगळ्यांत व्हडलो बैल. हिंदी नांवः भारतीय गौर. शास्त्रीय नांवः बॉस गॉरस.

*वर्गीकरण:* संघ (phylum): रज्जुमान (chordata); उपसंघः पृष्ठवंशी (vertebrata); वर्गः स्तनिवर्ग (mammalia); गणः आरिओडॅक्टिला; उपगणः रुमीनांशिया (रवंथ करपी); कूळः बोव्हिडे (गोकुल); उपकूळः बोव्हिने; प्रजातीः बॉस; जातीः गौरस रेडे (भारतीय गौर), गौरस गौरस, गौरस हबाकी.

नाकापसून शेंपडेमेरेनची लांबायः २६०-३३० सेंमी. शेंपडेची लांबायः ८५ सेंमी.; खांद्याकडली उंचायः १६५-२१३ सेंमी.; वजन ७८०-१००० किग्रॅ.; नर मादीपरस मात्सो व्हडलो. नर आनी मादी गव्यांचीं शिंगां घट, मुळाकडेन सकयल बावगल्लीं, मागीर फाटल्यान वाकडीं वळिल्लीं आनी तोंकां वयर नारिंगी, हळडुव्या रंगाच्या शिंगांची लांबायः ८५ सेंमी.; शिंगांच्या मदसून कपाळाकडल्यान फाटीच्या मध्यामेरेन मांसाळ उंचवटो आसता. कपाळ भस्मी, हळडुव्या रंगाचें. पांय [illegible]ट आसून तांचो सकयलो अर्दो भाग धव्या रंगाचो आसता. [illegible] [illegible]डीकोराचे. गव्याच्या पिलाचो रंग सोनेरी, हळडुवो आसता. तरुण नर-मादयांचो रंग तांबूस, पुडीकोराचो आसून तांकां ल्हान, काळे केंस येतात.

गव्यांचे तीन प्रकार आसातः १. भारतीय गौर (बॉस गॉरस गॉरस) २. बॉस गॉरस रेडी ३. मलायन गौर (सेलाडंग) बॉस गॉरस हबाकी. हाच्या कपळाचेर उंचवटो नासता.

गव्यांचो काळ मध्य मायोसीन (मध्यनूतन म्हळयार २५ दशलक्ष वर्सा आदलो) युगाच्या इतलो पोरनो आसा अशें मानतात. गवो हो उश्ण प्रदेशांतलो प्राणी आसा. भारतांतल्या दोंगराळ रानांनी आनी हिमालयाच्या मुळसाकडल्या दोंगुल्ल्यांनी गवे दिसतात. गवे सुमार २०० मी. उंचायेच्या दोंगरार रावतात. कोंड्यांच्या आळींनी आनी रानाक तेकून आशिल्ल्या उक्त्या गवताळ मळांचेर गवे राबीतो करतात. ते वजनान इतले जड आसून लेगीत खडबडीत, खडकाळ दोंगरांवयल्यान सहज धांवन वतात. तांकां न्हावपाक आनी पिवपाक उदक लागता, पूण ते चिखलाच्या कोंडांत केन्नाच लोळनात. ताजें तण, झाडांचो पालो, कोंड्याच्यो तरन्यो आंकन्यो आनी कोंब हें तांचें खाण. दोंगरावयल्या गवताळ पठाराचेर ते चरतात पूण ते पिकांमदीं केन्नाच सरनात आनी सहसा मनीस वसतीपसून पयस रावतात.

८ ते १२ गव्यांचे ल्हान कुटुंबिक कळप आसतात. खुबदां वेगवेगळ्या कारणांक लागून असले ल्हान कळप एकठांय येवन २० ते ४० गव्यांचे व्हडले कळप तयार जातात. कळपांत १-२ जाण्टे गवे, २-३ तरने गवे, ५-१० गायो आनी हेर ल्हान गवे आनी पिलां आसतात. रानटी बैलांभितर गवो हो एकूच प्राणी असो आसा की जो दुस्मानाचेर फुडले वटेन घुरी घालीना. पूण तो दुस्मानाचेर कुशीच्यान वा फाटले वटेन आपली तकली आनी पांय सकयल बागोवन आनी आपलीं बळिश्ट शिंगां फुलोवन आंगार वता.

गव्यांचो माजाचो ऋतू वेगवेगळ्या वाठारांत फाटीं-फुडें जाता, पूण भारतांत नोव्हेंबर ते मार्च म्हयन्यांत हे प्राणी माजार येतात. २७०-२८० दिसांच्या गाभा उपरांत मादी एका पिलाक जल्म दिता. केन्नाय जुवळीं पिलां जातात. पिलांचें पालन-पोशण ९ म्हयने करतात. दोन-तीन वर्सांभितर पिलां व्हडलीं (pubescent) जातात. गौर गाय वर्साक एका पिलाक जल्म दिता.

गवे खास करून आग्नेय आशिया, मलेशिया, ब्रह्मदेश आनी भारतांत सांपडटात. भारतांत गव्यांची संख्या कमी आसा. पूण अस्तंते घांट (मध्य प्रदेश), ओरिसा आनी हिमालयाच्या मुळसाकडल्या आसाम आनी भूतान ह्या वाठारांनी गवे आसात. गोंयांत अस्तंत घाटावयल्या वाठारांत गवे दिसून येतात. गोंयच्या बोंडला अभयारण्यांत कांय गवे आसात.

हेर जातीच्या बैलांसारकेंच गव्यांचें घ्राणेंद्रिय (नाक) एकदम तीक्ष्ण आसता. पूण नदर मात तितली तीव्र आसना. वाग गव्याच्या पिलांचेर आनी तरन्या गव्यांचेर घुरी घालून तांकां मारतात. देखून, ह्या दुस्मानांपसून गवे सदांच सादूर रावतात. हेर गोरवांक, जनावरांक जाता तसल्योच रोग-पिडा गव्यांकूय जातात. १९६० त बंदिपूर (कर्नाटक) च्या नामनेच्या अभयारण्यांत गव्यांच्या व्हडल्या व्हडल्या कळपांचेर rindowpest हो सांथीचो भयांकृत रोग पातळिल्लो. तातुंतसून हे गवे अजुनूय पुराय रोगमुक्त जावंक नात.

हेर जनावरांवांगडा गवे एकचारान आनी शांतीकायेन रावतात. केन्नाकेन्नाय ते सांबरां, हरणां आनी रानदुकरांवांगडा इश्टागत करून ल्हानसोच कळप करतात. ह्या जनावरांच्या सादुरपणाक लागून गव्यांक संकश्टाची सुलूस लागपाक मदत जाता. केन्नाकेन्नाय ते हतयांवांगडा चरताना दिसतात.

अभयारण्यांत, प्राणिसंग्रहालयांत गवे दिसून येतात. तांचें बर्लिन प्राणिसंग्रहालयांत जाल्लें यशस्वी प्रजोत्पादन नामनेक पावलां. गव्यांचो चडांत चड जियेवपाचो काळ २४ वर्सांमेरेन आसा, अशी नोंद बर्लिन प्राणिसंग्रहालयान केल्या.

- प्रा. एस्. आर. गनिहार

**गँबिया:** आफ्रिका खंडाचे अस्तंत दर्यादिगेर आशिल्लें एक राश्ट्र. क्षेत्रफळः ११,५७० चौ. किमी.; लोकसंख्याः ७,६९,५०० (१९८६). विस्तार १३° उत्तर ते १४° उत्तर आनी १४° ३०' अस्तंत ते १७° अस्तंत. हाच्या तीन वटांनी सेनेगल आसा जाल्यार अस्तंतेवटेन अॅटलांटिक महासागर आसा. महासागराक मेळपी गँबिया न्हंयचे लागीं बँजुल (पयलींचें बॅथर्स्ट) ही राजधानी आसा.

**भूंयवर्णन, हवामान, वनस्पत आनी मोनजातः** गँबिया न्हंय ह्या देशाचे दोन वांटे करता. तिच्या देगणाच्या दोनूय वटांनी सेनेगलच्या पठाराचे कांय वांटे गँबियामेरेन पावल्यात. हांगाची हवा सादारणपणान उश्ण आसता. नोव्हेंबर ते मे हो पावस न पडपाचो काळ. त्या दिसांनी सहारावटेनच्यान उश्ण हॅमरटन वारें येता. दर्यादिगांचेर ह्या काळांत १८° से. ते ३२° से. तापमान आसता, जाल्यार भितरल्या वाठारांनी १०° से. ते ४०° से. आसता. जून ते ऑक्टोबर ह्या काळांत पावसाळो आसता. ऑगस्ट म्हयन्यांत सगळ्यांत चड पावस पडटा. सरासरी वर्सुकी पावस १०० सेंमी. पडटा.

दर्यासावन सुमार १५० किमी. भितरमेरेन गँबिया न्हंयची खाडी आसा. भितरल्या वाठारांत ल्हानसान झोंपां जाल्यार ताचे पलतडीं सॅव्हाना तणाचो वाठार आसा. न्हंयच्या देगांनी दाट रानां आसात. रानांनी आनी तणाच्या वाठारांनी तरेकवार हरणां, मांकडां आनी न्हंयलागीं मानगीं, पाणघोडे सांपडटात. ३०० परस चड जातीचीं विंगड विंगड सुकणीं न्हंयचे देगेर आनी रानांनी सांपडटात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्थाः** गँबिया न्हंयचे देगेर पयलींसावन लोक रावताले अशे पुरावे मेळ्ळ्यात. गँबियाचो सोद पंदराव्या शतमानांत पोर्तुगेजांनी लायलो आनी सोळाव्या शतमानाचे सुर्वेकसावन् तांणी गुलामांचो आनी भांगराचो वेपार करूंक सुरवात केली. १५८८ त पोर्तुगालान गँबिया न्हंयेवयल्या वेपाराचे हक्क ब्रिटिशांक दिले. फुडें फ्रेंच आनी ब्रिटीश हांचेमदीं वेपाराखातीर सर्त लागली पूण उपरांत फ्रेंचांनी ब्रिटिशांचो हक्क मान्य करून घेतलो. १८४३ त ह्या वाठाराची स्वतंत्र वसाहत केली, पूण फुडें १८६६ त तिचो आस्पाव अस्तंत आफ्रिकी वसाहतींत केलो आनी पर्थून तिका १८८८ त स्वतंत्र अस्तित्व दिलें. फेब्रुवारी १९६५ त हे वसाहतीक पुराय स्वतंत्रताय मेळ्ळी. गँबिया राश्ट्रकुलाचो सभासद जालो आनी १९७० त सार्वमतावरवीं गँबिया हें स्वतंत्र प्रजासत्ताक अशी घोशणा जाली. सर दाउद जावारा पयलो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९८७ मेरेन लोकांनी ताकाच दर फावट वेंचून

काडलो. हांगाचे संसदेंत सभापती, उपसभापती आनी ३५ वेंचून आयिल्ले प्रतिनिधी आसतात.




**अर्थीक स्थिती:** शेतवड आनी हेर वेपार बऱ्याच व्हड प्रमाणांत मसमी भिकणांचेर आदारून आसा. माताचे लागवडीखाला चडांतचड जमीन हाडपाचे यत्न चालू आसात. हांगा खनिजां सामक्याच उण्या प्रमाणांत मेळटात. अॅटलांटिक दर्यादिगेर नुस्तेमारीचो वेवसाय व्हड प्रमाणांत चलता. जेवणखाणाच्यो वस्तू, यंत्रसामग्री, येरादारीचीं उपकरणां आनी हेर उत्पादित मालाची आयात चडशी अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, ब्रिटन, फ्रांस, चीन, अस्तंत जर्मनी, रशिया ह्या सारक्या देशांतल्यान जाता जाल्यार भिकणां, भिकणांचें तेल, नुस्तें हांची निर्यात घाना, फ्रांस, स्वित्झर्लंड, बेल्जियम, ब्रिटन हांचेकडेन जाता. दालासी हें हांगाचें अधिकृत चलन.

**लोक आनी समाजजीण:** गॅंबियांत सुमार ९५% परस चड लोक मुसलमान धर्माचे आसात. उरिल्ले किरिस्तांव आनी जडप्राणवादी आसात. वंशीक नदरेन सुमार ४०% मालिंके, १८% फुलानी, १४% वोलोफ, १०% दाओला आनी उरिल्ले हेर जमातींचे आसात. कुस्ती हो हांगाचो राष्ट्रीय खेळ. तेभायर नुस्तें धरप, नेमबाजी, गोल्फ, क्रिकेट, फुटबॉल हेय खेळ हांगाचे लोक आवडीन खेळटात. हांगाची अधिकृत भाशा इंग्लीश आसली तरी अरबी आनी आफ्रिकन भाशांचोय वेव्हारांत उपेग जाता. ह्या देशांत रेल्वेमार्ग नात. हो देश गॅंबिया न्हंयच्या दोनूय वटांनी पातळिल्ल्यान उदकांतले येरादारीक चड म्हत्व आसा. बॅंजूल हांगा ह्या देशांतलें मुखेल बंदर आसा. यॅंडूम हांगा देशांतलो मुखेल विमानतळ आसा. रस्त्याच्या मार्गांवयल्यान व्हडलीशी येरादारी चलना. राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण १०% आसा. हांगा अजून फुकट, सक्तीच्या आनी एक सारक्या शिक्षणाची वेवस्था जावंक ना. मॅकार्थी आनी बासे हीं हांगाचीं हेर मुखेल शारां.

- कों. वि. सं. मं.

## गॅझेटीअर

**गॅझेटीअर:** धर्तरेवयले देश, प्रदेश, थळां, न्हंयो, दोंगर हांची वर्णक्रमाप्रमाण भौगोलिक, इतिहासीक, समाजीक, धर्मीक, सांस्कृतिक म्हायती दिवपी कोश म्हळ्यार गॅझेटीअर. 'गॅझेट्टा' हें व्हेनिसांतल्या एका नाण्याचें नांव. १५६६ वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या आनी दर प्रतीचें मोल ह्या नाण्याइतलें आशिल्ल्या वृत्तपत्राचें 'गॅझेट्टा' हें नांव आशिल्लें. आयज 'गॅझेट' हो शब्द वृत्तपत्र ह्या अर्थान वापरतात. गॅझेट बरोवपी तो 'गॅझेटीअर' असो मूळचो अर्थ आशिल्लो. भौगोलिक माहितीचे कोश म्हळ्यार 'गॅझेटीअर' असो अर्थ एकुणिसाव्या शेंकड्यांत इंग्लीशींत रुढ जालो. अस्तंत्या देशांनी इ. स. प. सव्या शेंकड्यांत सायलॅक्स आनी ते उपरांत २०० वर्सांनी मीगॅस्थीनीस हांणी भारताचो वृत्तांत बरयलो. कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत मौर्य काळांतली भारताची भौगोलिक आंकडेवार माहिती आसा. फाहियान, ह्युएनत्संग, इब्न बतूता हांणीय आपापले वृत्तांत बरोवन दवरल्यात. अल-बीरुनीच्या इंडिकांत बारीकसाणेन केल्लो नियाळ आनी विस्कटावणी दिसून येता. सव्या शेंकड्याचे सुर्वेक बायझंटियमांतल्या स्टेफिन हाणें तयार केल्लें गॅझेटीअर आनी १०८५-८६ वर्सा विल्यम द कॉंकरर हाणें इंग्लंडचो बारीकसाणेन अभ्यास करून बरयिल्लें 'डोम्स डे बुक' (Domes Day Book) हीं हालींच्या गॅझेटीअरचीं पूर्वस्वरुपां अशें म्हळ्यार जाता.

जिनीव्हांत १५६५ वर्सा चार्ल्स स्टीफन हाचो इतिहासीक भौगोलिक कोश Dictionarium historico - geographicum हें आर्विल्ले धर्तेचें पयलेंच गॅझेटीअर जावन आसा. ते उपरांत फेर्रारीचो 'लेक्सिकन जिऑग्राफिकम' (Lexicon geographicum, १६२७), बॉड्रॉंदचो Geographia ordine literarium disposita (१६८२), ला मार्टिनिरीचो दिक्सिऑनॅर जेओग्राफीक, इस्तोरीक ए क्रितीक (Dictionnaire geographique, historique et critique, १७२६) अशीं कितलींशींच गॅझेटीअरच्या रुपाचीं पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. ह्या सगळ्या पुस्तकांनी त्या काळांतल्यो शास्त्रीय कल्पना, लोकभ्रम आनी हेर सामान्य चुको आसताल्यो. १८१७ वर्सा जर्मन भूगोलतज्ञ योहान्न जी. एच्. हॅसेल हाणें शास्त्रीय नदरेंतल्यान संशोधन करून बरयिल्लो Geographisch-Statistisches Handworterbuch हो कोश हेर सगळ्या जाणकारांनी आनी कोशकारांनी प्रमाण मानलो. ताचे आदीं आनी उपरांत उजवाडाक आयिल्ल्या कांय गॅझेटीअरांची वळेरी अशी:

१८०८: क्रूट वेल - 'युनिव्हर्सल गॅझेटीअर'; १८१७-२२: क्रूट वेल- 'एडिंबरो गॅझेटीअर'; १८५०: जॉन्स्टन- 'डिक्शनरी ऑफ जिऑग्राफी'; १८५०: ब्लॅली- 'इंपीरिअल गॅझेटीअर'; १८५१: माक्कलख- 'जिऑग्राफिकल डिक्शनरी'; १८५५: लिपिनकॉट- 'प्रोनाउन्सिंग गॅझेटीअर ऑफ द वर्ल्ड'; १८७४: रिटर- 'Geographisch- Statistisches- Lexicon'; १८७९-१९००: विव्हियन द सेंट मार्टिन- 'Nouveau Dictionnaire de Geographie Universelle'; १८९५: लॉंगमन- 'गॅझेटीअर ऑफ दी वर्ल्ड'; १८९८: जी. गॅरोल्लो- 'Dizionario Geografico Universale'; १९२१: केंडे- 'Geographisches Worterbuch'; १९२३: एवाल्ड एच्. ए. बॅन्से -'Lexickon der Geographie'; १९२५: रेल्ड्झ- 'Comprehensive Atlas', गॅझेटीअर ऑफ द वर्ल्ड; १९४९: वेबस्टर- 'जिऑग्राफिकल डिक्शनरी'; १९५२: - कोलंबिया लिपिनकॉट गॅझेटीअर ऑफ दि वर्ल्ड.

हालींच्या काळांत चडशा नकाशासंग्रहांत निमाणें गॅझेटीअर दिल्लें आसता. तातूंत त्या संग्रहांतल्या नकाशांत दाखयिल्ले भौगिलिक माहितीची वर्णक्रमान वळेरी आनी ती खंयच्या नकाशांत मेळटली हें दिल्लें आसता. कांय संग्रहांत थळांचे अक्षांश, रेखांश, लोकसंख्या आदी माहिती ताचेवांगडा दिल्ली आसता.

**भारतीय गॅझेटीअर:** युरोपांत गॅझेटीअर साहित्याची वाड प्रबोधन काळांत आनी उद्येगीक क्रांतीउपरांत जाली. युरोपी लोक सबंद संवसारभर पातळ्ळे आनी सगळ्या विशयांची जिज्ञासेन बारीक नोंद करूंक लागले. ब्रिटिशांक अपरिचित लोकांच्या मोट्या प्रदेशाचो कारभार

चलोवपाखातीर राजकी, सैनिकी, वसुली हांचे नदरेन आंकडेवार अभ्यास करचो पडलो. तातूंत जाणकार परदेशी प्रवाशांच्या वृत्तांताची भर पडली. कर्नल मॅकेंझीचें प्रवासवर्णन, लोगनचें मलबारवर्णन, बुकननचें मद्रास ते म्हैसूर, कानडा तें मलबार हांचें प्रवासवर्णन आनी १८१५ चें वॉल्टर हॅमिल्टनचें 'ईस्ट इंडिया गॅझेटीअर', १८५४ त एडवर्ड थॉर्नटनचे ईस्ट इंडिया कंपनीच्या कारभाराखालच्या प्रदेशांचे गॅझेटीअर उजवाडाक आयले. १८५७ पयलींच डिस्ट्रिक्ट स्टॅटिस्टिकल अकाउंट्सचें जिल्ह्यांच्या आंकडेवार वृत्तांताचें काम हातांत घेतिल्लें. १८६६ वर्सा, रिचर्ड टेंपल हाणें मान्य अर्थान मध्य प्रांतांतल्या जिल्ह्याचें अधिकृत गॅझेटीअर उजवाडावपाखातीर फुडाकार घेतलो. मुंबय इलाख्याच्या दरेक जिल्ह्याचें गॅझेटीअर सरकारी आदेशाप्रमाण जेम्स एम्. कँबेल हाणें तयार केल्लें. तातूंत त्या त्या जिल्ह्याचें भौगोलिक वर्णन, उत्पन्न, लोकसंख्या, शेतकी, भांडवल, वेपार, इतिहास, जमनीचो महसूल, न्याय, भौशीक दुडवां-येवजण अशा खूब विशयांचो तपशील दिल्लो. हेच धर्तेर हेर इलाख्यांत आनीक कांय संस्थानांत गॅझेटीअर तयार जाले. प्रांतिक सरकाराच्या ह्या यत्नांत एकसूत्रताय नाशिल्ली. देखून हिंदुस्थान सरकारान मध्यवर्ती सत्तेखाला 'इंपीरिअल गॅझेटीअर' उजवाडावपाची विल्यम विल्सन हंटर हाची सुचोवणी १८७१ वर्सा मान्य केली. हंटर हो मोटो विद्वान आनी व्हड तांकीचो प्रशासक आशिल्लो. ताच्या मार्गदर्शनाखाल १८८१ वर्सा 'इंपीरिअल गॅझेटीअर' चे ९ खंड प्रसिध्द जाले. १८८२ वर्सा 'Indian Empire, its history, peoples and products' हें पुस्तक उजवाडाक आयलें. १८८१ ची जनगणना आनी देशाच्या जिवितांत नेटान घडून येवपी बदल हांकां अनुसरून १८८५ वर्सा 'इंपीरिअल गॅझेटीअर' चे दुसरे आवृत्तीचे १४ खंड आयले. पूण ह्या शेंकड्याचे सुर्वेक ते कालबाह्य (outdated) थारायिल्ल्यान लॉर्ड कर्झनचे प्रेरणेन १९०७-०९ ह्या काळांत २६ खंडांची निवळायिल्ली आवृत्ती उजवाडाक हाडली. ताच्या पयल्या ४ खंडांत हंटरच्या 'इंडियन एंपायर' हाची निवळायल्ली आवृत्ती, फुडल्या खंडांत वळेरी आनी नकाशे अशी रचना आशिल्ली. प्रांत आनी जिल्हे हे घटक धरून तांचेय अशेच गॅझेटीअर आयले. कांय संस्थानांनीय आपापलीं माहिती पुस्तकां काडलीं. फाटल्या ५० वर्सांत असो सर्वंकष अभ्यास जालो ना. फकत आंकडेवार वळेरी प्रसिध्द जायत गेली.

उपरांतच्या काळांत देशांत आनी देशाभायर क्रांतीकारक बदल घडून आयले. देखीकः आशियाई राश्ट्रांची स्वतंत्रताय, आफ्रिकेक संवसारीक प्रस्नांत मेळिल्ली म्हत्वाची सुवात, वसाहतवाद नश्ट जावप, विज्ञानतंत्रज्ञानाक लागून पोरन्या अर्थीक आनी समाजीक संस्थांनी जाल्लो बदल, भारताचें स्वातंत्र्य म्हाझुजाउपरांतची उद्येगीक उदरगत, शिक्षणाचो प्रसार, लोकांच्या नैतिक आनी मानसिक प्रवृत्तींत जाल्लो बदल, राजकी आनी समाजीक जिवितांत घडून आयिल्लो बदल, प्राकृतिक रचना आनी हवामान, ह्या सगळ्या विशयांची नव्या गिन्यानाप्रमाण परत बरपावळ करप गरजेचें आशिल्लें. देखून, एप्रिल १९५१ त केंद्रीय गॅझेटीअर पुनर्रचनेची येवजण मौलाना आझाद हाणें संसदेंत मांडली. केंद्र शासनान भारतीय स्वरुपाचो खंड आनी राज्य शासनांनी जिल्हावार नवे गॅझेटीअर तयार करचे अशें थारायलें. गॅझेटीअर पुनर्रचनेक सगळ्यांत पयलीं मुंबय राज्यान १९४९ त सुरवात केली. १९५४ वर्सा 'पुणे खंड' उजवाडाक आयलो. हेर राज्यांनीय आपापले खंड तयार करपाक सुरवात केली. वर्णक्रमान खंड तयार करीनासतना जिल्हा गॅझेटीअरांची अखिल भारतीय वळेरी करची अशें थारायलें. जिल्हा गॅझेटीअर जातकच राज्य गॅझेटीअर उजवाडाक येतले. जानेवारी १९५८ वर्सा सेंट्रल गॅझेटीअर युनिट आनी फेब्रुवारींत ताचेखातीर सेंट्रल ॲडव्हायझरी बोर्ड स्थापन जालो. ऑगस्ट १९५९ वर्सा प्रा. हुमायून कबीर हाची बोर्डाच्या अध्यक्षपदाखातीर नेमणूक जाली. वट्ट ३०० जिल्हा गॅझेटीअर जावपाचे आसात.

'इंपीरिअल गॅझेटीअर ऑफ इंडिया' चें नवें रूप 'गॅझेटीअर ऑफ इंडियाः इंडियन युनियन' अशें आसून ताचे संकल्पित चार खंड आसातः १. देश आनी लोक २. इतिहास आनी संस्कृताय ३. अर्थीक संरचना आनी घडामोडी ४. प्रशासन आनी भौशीक कल्याण. हे खंड इंग्लीशींत बरोवप चालू आसून तातूंतलो पयलो खंड १५ ऑगस्ट १९६५ दिसा उजवाडाक आयलो. दरेक खंडांतले प्रत्येक प्रकरण त्या त्या विशयातल्या अधिकारी तज्ञान बरयल्लें आसतलें. नव्या गॅझेटीअरापसून शासकांक आनी जनतेक शिक्षण मेळटलें. तातूंत वस्तुस्थिती वांगडाच स्वतंत्र भारताच्यो विचारधारा, ध्येयां आनी महत्वाकांक्षा हांचेंय चित्रण आसतलें.

**'गोंय, दमण आनी दीव' गॅझेटीअरः** गोंय, दमण आनी दीव संघप्रदेश १९ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा मुक्त जातकच पयलेच खेपे भौगोलिक रचना, लोक, समाज-जिवीत, धर्म आनी संस्कृताय हांचे संबंदी व्यापक माहिती दिवपी 'संघप्रदेशाचें गॅझेटीअर' उजवाडावपाचें थारायलें. तेखातीर २ मे १९७० ह्या दिसा गोंय, दमण आनी दीव गॅझेटीअर तयार करून उजवाडावपाखातीर गॅझेटीअर संपादकीय मंडळाची स्थापना जाली. गोंय, दमण आनी दीवचो गॅझेटीअर गोंय, दमण आनी दीव अशे वेगवेगळे तीन विभाग आशिल्ल्या एकाच जिल्हा खंडाच्या रुपान उजवाडावपाचें थारायलें. ह्या गॅझेटीअरचो नमुनो सेंट्रल गॅझेटीअर युनीट, शिक्षण मंत्रालय खातें, भारत सरकार, नवी दिल्ली हांणी थारायलो आनी तांच्या पालवान आनी मार्गदर्शनाखाल गॅझेटीअरचें काम सुरू जालें.

१९४७ च्या भारतीय स्वातंत्र्याउपरांत आनी १९६१ च्या गोंय, दमण आनी दीव च्या सुटकेउपरांत गोंयांत राजकी, समाजीक, अर्थीक आनी हेर मळांचेर नवे-नवे बदल घडून आयले. हे सगळे बदल मतींत घेवन अद्ययावत अशी सगळी माहिती आंकडेवारीसयत ह्या गॅझेटीअरांत संग्रहीत केली. ह्या गॅझेटीअरांत फुडल्या विशयांक धरून गोंय, दमण आनी दीवची माहिती आस्सावल्याः सामान्य माहिती, इतिहास, लोक आनी समाजजीण, प्रशासकीय आनी अर्थीक वेवस्था, बँकींग आनी वेपार, येरादारी आनी उद्येगधंदे, येणावळ खातें, शेतकी आनी सिंचन खातें, शिक्षण-संस्कृती, कायदो आनी सुवेवस्था, समाजीक भलायकी खातें आनी हेर खातीं, भौशिक जिवीत आनी आपवावुरपी समाजीक संस्था आनी प्रक्षेणीय स्थळां ह्या गॅझेटीअराचें खाशेलेपण म्हळ्यार हातूंत गांव, शारां, नगरां आनी खेडीं हांची तक्तेवार (tabular form) रुपान दिल्ली निर्देशिका (directory) तेभायर हेर वळेऱ्यो आनी परिशिश्टां आनी दरेक विभागांत दिल्लो रंगीत जिल्हो, नकाशा हाकालागून ह्या गॅझेटीअरांतली माहिती खूब व्यापक धर्तीची जावन आसा. ह्या गॅझेटीअराचें संपादन व्ही. टी. गुणे हाणें केलां. हें गॅझेटीअर २८ मार्च १९७९ ह्या दिसा उजवाडाक आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

## गॅबर, डेनिसः

(जल्मः ५ जून १९००, बुडापेस्ट हंगेरी; मरणः ८ फेब्रुवारी १९७९, लंडन).

एक नामनेचो ब्रिटीश भौतिकीविज्ञ. 'होलोग्राफी' (भिंगविरयत त्रिमितीय छायाचित्रण) तंत्राचो जनक. ताचें शिकप बुडापेस्ट आनी बर्लिन हांगाच्या तांत्रिक विद्यालयांनी जालें. सिमेन्स कंपनींत १९२७-३३ ह्या काळांत ताणें संशोधक अभियंता म्हूण काम केलें. १९३३ त तो ब्रिटनाक गेलो आनी थंय १९३४-४८ ह्या काळांत टॉमसन-ह्युस्टन कंपनीत ताणें संशोधक अभियंता म्हूण काम केलें. १९४८-५८ त तो लंडन विद्यापीठाच्या 'इंपिरियल कॉलेज ऑफ सायन्स अँड टॅक्नॉलॉजी'च्या इलेक्ट्रॉनिकी विभागांत प्रपाठक आशिल्लो. हेच संस्थेंत १९५८ सावन अनुप्रयुक्त इलेक्ट्रॉनिकीचो प्राध्यापक म्हूण ताणें काम केलें.

गॅबर हाचो होलोग्राफीचो सोद 'नेचर' ह्या नेमाळ्यांत १९४८ त पत्ररुपान उजवाडाक आयिल्लो. होलोग्राफीवरवीं नवें सूक्ष्मदर्शीय तंत्र मेळटलें, ह्या हेतान ताणें ही कल्पना मांडिल्ली. पूण तांत्रिक आडमेळ्यांक लागून ही कल्पना १९६० मेरेन प्रत्यक्ष स्वरुपांत येवंक पावलीना. ते उपरांत म्हळ्यार लेसरच्या सोदाउपरांत कलासंबंध्द (coherent)

उजवाडाचीं किरणां मेळप शक्य जालें आनी ताका लागून होलोग्राफीचें तंत्र प्रत्यक्षांत आयलें. वेगवान बदल घडून येवपी वेगवेगळ्या घडणुकांचें चित्रण करून तांचो तपशीलवार अभ्यास करप, थोडे सुवातींत म्हायती एकठावप ह्या वेगवेगळ्या संशोधनांत ह्या तंत्राचो उपेग जाता. इलेक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शकाची विभेदनक्षमता (लागींच्या वस्तूंच्यो प्रतिमा वेगळ्यो करपाची क्षमता -resolution) सुदारपाखातीर ताचो उपेग जाता.

गॅबर हाणें खिणयाळो विद्युत् प्रवाह, वायू विसर्जन, इलेक्ट्रॉन गतिकी (गतिविज्ञान), संदेशवहन सिध्दांत आनी भौतिकीय प्रकाशकी (optics) ह्या विशयांचेर सुमार १०० संशोधनपर निबंद बरयल्ले आसून ताचे 'The Electron Microscope' (१९४६), 'Electronic inventions and their impact on Civilization' (१९५९), 'Inventing the future' (१९६३) आनी 'Inventions scientific, technological and social' (१९७०) आनी 'The Mature Society' (१९७२) हे ग्रंथ उजवाडाक आयल्यात. १९५६ त ताची रॉयल सोसायटीच्या वांगडी पदाखातीर वेंचणूक जाली. सोसायटीन १९६८ त ताका रम्फर्ड पदकाचो भोवमान फाव जालो. टॉमस यंग पदक (१९६७), मायकेलसन पदक (१९६८) आदी कितलेशेच भोवमान ताका फाव जाल्यात. होलोग्राफी तंत्राच्या सोदाक लागून १९७१ त ताका भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## गॅलिलिओ, गॅलिली:

(जल्मः १५ फेब्रुवारी १५६४, पिसा-इटली; मरणः ८ जानेवारी १६४२, पिसा).

नामनेचो इटालियन गणिती, ज्योतिशशास्त्री आनी भौतिक विद्वान. ताका आर्विल्ल्या ज्योतीशशास्त्राचो संस्थापक मानतात. तेभायर शास्त्रीय अध्यायनाची निरीक्षण, प्रयोग, गणित आनी सिध्दान्त हांची तर्कशुध्द पध्दत चालीक लायिल्ल्यान ताका आर्विल्ल्या प्रायोगिक विज्ञानाचो जनक म्हण्टात.



ताचें सुरवातेचें शिकप फ्लॉरेन्स लागीं व्हाललॉंब्रोझा हांगा जालें. थंय लॅटीन, ग्रीक, तर्कशास्त्र, तत्त्वज्ञान, पूर्विल्लें साहित्य, धर्मशास्त्र ह्या विशयांचो ताणें अभ्यास केलो. तशेंच चित्रकला, संगीत आनी काव्य हांची ताका खूब आवड आसली. १५८१ त तो पिसा विद्यापीठांत आयलो. थंय ताणें ॲरिस्टॉटल हाच्या तत्त्वज्ञानाचो अभ्यास केलो, पूण गणिताविशीं ताच्या मनांत आशिल्लो मोग मातूय उणो जावंक ना. १५८५ त पैशांचे अडचणीक लागून ताका शिकप सोडचें पडलें.

१५८३ त पिसाचे इगर्जेतलो हुमकळपी दिवो पळोवन घडयाळी मदल्या लंबकाची कल्पना ताका सुचली. १५८६ त वस्तूंचें द्रव्यांतलें वजन करपाची तागडी ताणें सोदून काडली. तशेंच ते तागडेन घन पदार्थांचें खासा गुरुत्व काडपाक कसो उपेग जाता तेंय ताणें दाखयलें हेवरवीं ताका व्हड नामना मेळ्ळी.

गणितांतली ताची विद्वता पळोवन १५८९ त पिसा विद्यापीठांक गणिताचो प्राध्यापक म्हूण ताका नेमलो. फुडलीं दोन-तीन वर्सां नवे नवे प्रयोग करून ताणें पदार्थांचे गती संबंदी नेम प्रस्थापित केले. शेवटिल्ले वस्तूच्या प्रक्षेपणाचो मार्ग ॲरिस्टॉटल हाच्या मताप्रमाण भूपृष्ठाक समांतर नासून तो अन्वस्ताकार (Parabolic) आसता अशेंय ताणें सांगले आनी प्रक्षेपण गतीचें गणितान स्पश्टीकरण दिवन खात्रीय करून दिली. पिसाच्या झुकपी मनोऱ्यावेल्यान विंगड विंगड वजनाच्यो दोन वस्तू उडोवन दोनूय वस्तू एकाच नेटान (वेगान) सकल येतात हें सिध्द केलें आनी ॲरिस्टॉटलाचें वयल्या सिध्दान्ताविशींचें प्रस्थापीत मत खोडून काडलें. पादुआ हांगा आसतना ताणें विंगड विंगड वजनाचे दोन गुळे देवणेवेल्यान सोडून दिले आनी अशे तरेन निसरत गेल्ल्या गुळ्यांचो (वस्तूंचो) नेट सारकोच आसता हें सिध्द केलें. अशे तरेन त्या काळार सर्वमान्य आशिल्ल्या मताक विरोध केल्ल्यान १५९१ त ताका पिसा विद्यापीठ सोडचें पडलें.

१५९३ त ताणें सादो हवेचो तापमापक (thermometer) तयार केलो. १५९७ त ताणें सेक्टर (एके तरेचो कंपास) नांवाचें उपकरण तयार केलें.

१६०७ त मुळाव्या स्वरुपाचो जाल्यार १६१२ त आल्कोहॉलाचो तापमापक (thermometer) घडोवपांत ताका यश आयलें. १६०९ त ताणें दुर्बिण घडयली. ताचे मूळ दुर्बिणीची शक्त (मूळ वस्तूचें चित्र व्हड करपाची क्षमता) तीन आसली ती बत्तीस मेरेन वाडोवपाक ताका यश मेळ्ळें. प्रणमन (refraction) प्रकारचे दुर्बीणीक गॅलिलीयन दुर्बीण म्हण्टात. ज्योतिशशास्त्राच्या वेधाखातीर ताणें सगळ्यांत पयलीं दुर्बिणीचो उपेग केलो आनी नव्यो नव्यो विस्मीतभरीत ज्योतीशशास्त्रीय गजाली सोदून काडल्यो. १६१० त तो पिसांक गणिताचो प्राध्यापक म्हूण शिकोवपाक लागलो. त्याच वर्सा तो फ्लॉरेन्स विद्यापीठाचो आजीव प्राध्यापक जालो. ताणें गुरुचे चार मोटे आनी तेजिश्ट उपग्रह सोदून काडले. दोन वर्सां वेध घेवन ह्या उपग्रहांचे आवर्तकाल (periodic time) निश्चित केले. टस्कनीचो ड्यूक हाच्या कुटूंबनामावेल्यान ह्या उपग्रहाक ताणें डिसीयन तारका हें नांव दिलें. पूण गॅलिलिओ हाणें ताचें सगळ्यांत पयलीं निरीक्षण केल्ल्यान हांकां गॅलिलीयन ज्योती वा उपग्रह अशेंय म्हण्टात.

दुर्बिणीतल्यान ताका कृतिका आनी पुष्य तारकाचोम्यात दोळ्यांक दिसतात तेपरस चड तारे आशिल्ल्याचें दिसलें. आकाशगंगेत असंख्य गिरे आशिल्ल्याचें ताणें दाखोवन दिलें. चंद्र गुळगुळीत आनी स्वयंप्रकाशी आसा अशें ॲरिस्टॉटलचें मत गॅलिलिओन न्हयकारलें आनी चंद्रार दोंगर, देगणां आसून तो सुर्याच्या परावर्तनान (reflection) चकचकता हें दाखोवन दिलें. सूर्याचें निरीक्षण करून सुर्याक स्वता भोंवतणी घुंवपाक सत्तावीस दीस लागतात अशेंय ताणें सांगलें.

१६११ त रोमांतल्या पोप आनी हेर धर्माधिकाऱ्यांक दुर्बिणीच्या आदारान मळबाचें रूप दाखयिल्ल्यान ताका लिन्सी ॲकॅडेमीचें वांगडीपण फाव जालें. १६२४ वर्सा ताणें धुमकेतूच्या भ्रमणासंबंदी सोद लायलो. १६३७ त ताणें चांद्रदोलना (चंद्राची भासमान आंदोलनां) सोदून काडलीं. ह्याच वर्सा ताका कुड्डेपण आयलें आनी निमाणे भेरेपणाचोय रोग जडलो तरीय तो तोरिसेल्ली आनी व्हिव्हियानी ह्या शिष्यांक वैज्ञानिक प्रमेयां आनी तत्त्वां शिकयतालो. १६३९ त गती संबंदान एक म्हत्वाचो सोद लायतकच लंबकाचो घडयाळांत उपेग जावपाक लागलो.

ताचें 'Siderius Nuncius' हें पुस्तक १६१० त व्हेनीस (इटाली) शारांत उजवाडाक आयलें. 'Historia e Dimostrozioni Intorno alle Macchie Solari' हें सुर्यविल्या दागांविशींचें पुस्तक १६१३ त उजवाडाक आयलें. १६१२ वर्सा 'Discorso intorno alle Gose Ghe Stanno in Su laqua' हें पुस्तक उजवाडाक आयलें. १६२३ त ताचें 'Il Saggiatore' हें पुस्तक उजवाडाक आयलें. १६३२ वर्सा ताचें धूमकेतूच्या भ्रमणाविशींचें पुस्तक 'Dialgo Sopra i due massimi sistemi del Mondo, Tolemaico e Copernico' उजवाडाक आयलें. हातूंत टॉलेमी आनी कोपर्निकस हांचे पध्दतीची संवादरुपान म्हायती दिल्या. ह्या पुस्तकाचो इंग्लीश अणकार १६६१ आनी १९५३ त उजवाडाक आयलो. तातूंत ताणें सूर्य विश्वाच्या मदीं आसा ह्या कोपर्निकसच्या मताक फाटबळ दिल्लें. ताका लागून

रोमच्या धर्मीक न्यायालयान ताची वयली कल्पना ताका सोपूत घेवन फाटल्यान घेवपाक लायली आनी ख्यास्तय केली. उपरांत ही ख्यास्त उणी करून ताका आर्सेट्री हांगासल्ल्या ताच्या स्वताच्या घरांत बंदी केलो. १६३६ त ताणें यामिकी (mechanics) नेमासंबंदीचें पुस्तक बरयलें. यामिकी आनी गती हांचेर आदारिल्लें 'Discorsi e Dimostrazioni Matematiche intorno a due nuove Scienze' हें पुस्तक लायडन हांगा १६३८ त उजवाडाक आयलें. ह्या पुस्तकांत गती, प्रवेग (acceleration) आनी गुरुत्व (gravity) हे संबंदीचें ताचें जिवितभर केल्लें कार्य आयलां आनी तातूंत कोपर्निकस हाच्या सिध्दान्ताची चत्रायेन म्हायती दिल्या. संवसारांतल्या सगळ्या पदार्थांभितर एके तरेचें आकर्शण आसता हें गॅलिलिओक कळिल्लें, हे वयल्या पुस्तकांतल्यान दिसता. ह्या पुस्तकाचो डायालॉग्ज कन्सर्निंग टू न्यू सायन्सेस हो इंग्लीश अणकार १९१४ त उजवाडाक आयलो. ताणें जायतीं पुस्तकां आनी लेख बरयल्यात. ताचे सगळे लेख फ्लोरेन्स हांगा सोळा वांट्यांत उजवाडाक आयल्यात (१८४२-६६) . १८९० ते १९०९ मेरेन ताची पुराय बरपावळ वीस खंडांचे आवृतेंत उजवाडाक आयल्या.

रोमांतल्या धर्मीक न्यायालयान ख्यास्त दिल्या उपरांत १६३३ ते जीणेच्या शेवटामेरेन ताचें जिवीत एकांतवासांत गेलें. पूण सैमांतल्या चमत्काराचो निरीक्षणांवरवीं तर्कशुध्द अर्थ लावपाचें कार्य मात अखंडपणान चालू उल्लें. सद्या ताच्या घराच्या जाग्यार खगोल भौतिकीची एक म्हत्वाची वेधशाळा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## गॅसर, हर्बर्ट स्पेन्सर:

(जल्मः ५ जुलय १८८८, प्लॅटव्हील-विस्कॉन्सिन; मरणः ११ मे १९६३, न्यूयॉर्क).

नामनेचो अमेरिकन शरीरक्रियाविज्ञानीक. ताणें विस्कॉन्सिन विद्यापीठाच्या ए.बी. (१९१०) आनी ए.एम्. (१९११) ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. थंय आसतना ताणें एर्लांगर हाच्या हाताखाल शरीरक्रियाविज्ञानाचो (Physiology) अभ्यास केलो. १९१५ त ताणें जॉन हॉपकिन्स विद्यापीठाची एम्.डी. पदवी मेळयली आनी फुडें एक वर्स त्याच विद्यापीठांत वखदविज्ञान (Pharmacology) विभागांत काम केलें. १९१६ त सेंट लुईस हांगाच्या वॉशिंग्टन विद्यापीठांत एर्लांगर हाच्या वांगडा ताणें संशोधनाक सुरवात केली. १९२१ त थंयच वखदविज्ञानाचो प्राध्यापक म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९२३-२५ ह्या काळांत तो युरोपाक गेलो आनी थंय ए. व्ही. हिल, स्ट्रॉब, एल्. लापिक आनी सर हेन्री डेल ह्या नामनेच्या शास्त्रज्ञांवांगडा ताणें काम केलें. १९२५-३१ ह्या काळांत ताणें वॉशिंग्टन विद्यापीठांत आनी उपरांत १९३५ मेरेन कॉर्नेल विद्यापीठांत शरीरक्रियाविज्ञानाचो प्राध्यापक आनी वैजकी विभागाचो मुखेल म्हूण काम केलें. १९३५-५३ ह्या काळांत तो 'रॉकफेलर इंस्टिट्यूट फॉर मेडिकल रिसर्च' हे संस्थेचो संचालक आनी फुडें सेवानिवृत्त वांगडी जालो.

जॉन हॉपकिन्स वैजकी विद्यालयांत आसतना रगत गोठपाविशीं (blood coagulation) ताणें संशोधन केलें. एर्लांगर हाच्या वांगडा गॅसर हाणें तंत्रिका विद्युत् क्रियाविज्ञानाचेर (electrophysiology of the nerves), गॅसर हाणें उजवाडायिल्ल्या पयल्या निबंदांत मध्यपटल (छाती आनी पोट हांचेमदल्या पड्ड्याच्या) तंत्रिकेंतल्या विद्युत् क्रिया प्रवाहाविशीं म्हायती आशिल्ली. फुडें ह्या प्रयोगांत ताणें नव्यानूच वापरांत आयिल्ल्या कमी विद्युत् दाबाच्या ऋण किरण दोलनदर्शकाचो (Cathode-ray Oscilloscope) उपेग केलो. ह्या उपकरणावरवीं मेळपी आलेखांची गुंतागुंत वेगवेगळ्या तंत्रिका समुच्चयांच्या (group of nerve fibres) वेगवेगळ्या विद्युत् संवाहकतेक लागून उत्पन्न जाता, अशें दिसून आयलां. ताचेपसून वेदना तशेंच प्रतिक्षेपण क्रिया (reflex action) हांचेविशीं बरीच म्हायती मेळ्ळी. वसावरणविरयत (without myelin sheath) म्हळ्यार चरबीसारक्या पदार्थाचें आवरण नाशिल्ल्या तंत्रिकाविशींचें गॅसर हाणें केल्लें संशोधन खूब म्हत्वाचें आसा. ह्या तंत्रिकांचो वावर आनी तांची रचणूक ताणें इलेक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शकावरवीं दाखोवन दिली.

जायत्या अमेरिकन विद्यापीठांनी तशेंच पारीस, ब्रुसेल्स ह्या विद्यापीठांनी ताका मानादीक पदव्यो दिल्यो. अमेरिकेची नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेस, फिलॉसॉफिकल सोसायटी, अमेरिकन फिजिऑलॉजिकल सोसायटी ह्या संस्थांचो तो वांगडी आशिल्लो. 'अमेरिकन ॲसोसिएशन ऑफ फिजिशियन्स' हे संस्थेचें १९५४ चें कोबेल पदक ताणें मेळयलें. 'रसेल सेज इंस्टिट्यूट ऑफ पॅथॉलॉजी' हे संस्थेच्या संचालक मंडळाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. 'Electrical signs of Nervous Activity' (१९३७) ह्या पुस्तकाचो तो एक बरोवपी आशिल्लो. १९३६ त 'The Journal of Experimental Medicine' हे पत्रिकेचो तो संपादक आशिल्लो. एकोड्या तंत्रिका तंतुच्या उपाट प्रभेदक वावराचो सोद लायिल्लेखातीर १९४४ त ताक शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकीशास्त्र ह्या विशयांतलो नोबेल पुरस्कार जोसेफ एर्लांगर हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

## गांठवल:

लग्न जातकच न्हवरो-व्हंकल कुलदैवताची भेट घेवन पवित्र तीर्थार वा तळयेर न्हाण घेतात, ताका गांठवल म्हण्टात. लग्न विधी करता आसतना न्हंवऱ्या-व्हंकलेन घेतिल्ले पामरेक (शेलो) गांठ मारतात, ताकाय गांठवल अशें म्हण्टात.

गांठवलाक कर्नाटक कोंकणीत 'होर न्हाण' अशें म्हण्टात. व्होवर म्हळ्यार दांपत्य. व्होवर ह्या शब्दांतले 'व' वचून होर न्हाण जालें. हें गांठवल कुलदेवाकडेन करतात. लग्न जाल्या उपरांत नवी न्हवरो-व्हंकल कुळदेवाकडेन धुळभेट घेवंक वतात. थंय तांचें गांठवल जाता. तें एकदांच करपाचें आसता. तें जाले बगर तांणी कसलेंच देवकृत्य करूंक जायना. देवाचे तळयेर वा पवित्र तीर्थार जंय गांठवल करपाचें आसता, थंय गणेशपूजा करून फुडलें काम करतात. सुर्वेक संकल्प करतात. तातूंत 'कायिक, वाचिक, मानसिक, ज्ञात, अज्ञात, सकल पापक्षयार्थं कुल देवता सन्निध, पवित्र जले सपत्नकः अहंस्नानं करिष्ये.' अशें म्हळां.

अर्थः देहान, वाचेन, मनान, जाणा जावन वा अजाणपणान घडिल्लीं पापां ना जावपाखातीर हांव हे कुलदेवतेच्या पवित्र तीर्थार म्हज्या घरकान्नीसयत न्हातां. खंयच्याय पवित्र तीर्थार श्रध्देन तीर्थस्नान करताआसतना सादारण होच संकल्प आसता.

न्हाण जाल्या उपरांत दादलो सवळें वस्त्र न्हेसता आनी आंगार उपरणें वा पामरी घेता. बायलमनीस सवळें कापड न्हेसता, चोळी घालता आनी आंगार एक ल्हानसो शेलो घेता. आंगातलीं ओलीं वस्त्रां थंयच दवरपाचीं. दादल्याचीं ओलीं वस्त्रां पुरोयताक येणी जातात आनी बायलांचीं ओलींवस्त्रां भावणीक मेळटात.

उपरांत ती बायलमनीस सौभाग्यवायण दान करता, सौभाग्य वायण एक रंगीत सुपली घेवन तातूंत नाल्ल, खण, कुकमाकरण, हळदीची डबी, कांकणां, ५ पिड्डुको बांदिल्ली अणसा दोरी, हारसो, फणी अश्यो वस्ती दवरतात. हाचेवयल्यान आनी एक सुपली धांपिल्ली आसता.

हें सौभाग्यवायण भायल्याभायर पुरोयताक दितना बायलमनीस संकल्प करता. ह्या संकल्पाचो अर्थ असो आसताः 'म्हज्या ह्या जल्मांत आनी फुडें येवपी दुसऱ्याय जल्मांनी अखंड सौभाग्य सिध्दी, पुत्र, पौत्र, धन-धान्य समृध्दि मेळची म्हूण हांव हें सौभाग्य दान करतां.' दान दिवन जातकच भट आशीर्वादाच्यो अक्षता व्होवराच्या मस्तकार घालून ताका आशीर्वाद दिता. तशेंच न्हवऱ्याचें उपरणें आनी बायलेच्या पदराचें तोंक घेवन गांठ मारता. उपरांत सगळ्यांत फुडें वाजंत्री तांचेफाटल्यान वायण, गंधफुलांचें ताट हातांत घेवन भट आनी व्होवर देवाच्या दर्शनाक वता. हें जोडपें नाल्ल दवरून देवाची भेट घेता आनी मोडचे पैशे देवा भोंवतणी हुंवाळून उडयता. ह्या पैशांक हुंवाळकी अशें म्हण्टात आनी ती भावणीक मेळटा. दर्शन घेतल्या उपरांत हें व्होवर चौकावेल्या जमखनार बसता तेन्ना भावीण ताच्या फाटल्यान उबी रावन गांठवलाची गांठ सोडटा. अशें हें गांठवल जाल्या उपरांत तांकां अभिषेक, पूजा, आरती करपाक मेळटा.

आदल्या काळांत गरीबीक लागून तशेंच वाहनां चड नाशिल्ल्यान लग्न जावन भुरगीं-नातरां जालीं तरी देवाचें दर्शन घेवंक पयसुल्ले लोक पावनासले. केन्नातरी कुलदेवताक भेट दिवपाचो योग येवन वतालो, तेन्ना हो घरचो जाण्टो मनीस पूत आनी लग्न जाल्लो नातू हांकां घेवन देवाचें दर्शन घेवन येतालो. तेन्ना नव्या लग्न जाल्ल्या नातवाच्या व्हॉवरावांगडाच बापूय-आवय, आजो-आजी हांचींय गांठ्वलां करचीं पडटालीं. अशा ह्या गांठ्वलांनी तीन पिळग्यांची गांठ आनीकूय घट जाताली.

- वा. ल. वझे

**गांधारी:** गांधार देशाचो राजा सुबल हाची धूव, धृतराष्ट्राची बायल; दुर्योधन आदी शंबर कौरवांची आनी दुःशला हे चलयेची आवय. हिचो घोव धृतराष्ट्र जल्मासावन कुड्डो आशिल्लो. जेन्ना गांधारीक ही गजाल कळ्ळी, तेन्ना तिणें आपल्या दोळ्यांर सासणाची पट्टी बांदली आनी मरसर तिणें कोणाचेंच तोंड पळेलेंना. महाभारत झुजाउपरांत धृतराष्ट्रावांगडा वता आसतना रानाक उजो पेटिल्ल्यान गांधारीक मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**गांधी, इंदिरा:** (जल्मः १९ नोव्हेंबर १९१७, अलाहाबाद; मरणः ३१ ऑक्टोबर १९८४, नवी दिल्ली).



भारताची पयली बायल प्रधानमंत्री. तिचो जल्म अलाहाबादच्या 'नेहरु' ह्या प्रतिशठीत काश्मीरी ब्राह्मण घराण्यांत जालो. ती जवाहरलाल नेहरू आनी कमला हांची एकली एकसूरी धूव आसली. तिचें नांव तांणी 'इंदिरा प्रियदर्शनी' अशें दवरलें.

इंदिरा गांधीचें नेहरू घराणें भारतीय सुटके-झुजांत झुजपी सुटके-झुजाऱ्यांचें स्फूर्तीस्थान आसलें. भारतीय सुटके झुजाच्या चळवळीत तिचो आजो पं. मोतीलाल नेहरु, बापूय जवाहर, आवय कमला, आतें विजयालक्ष्मी पंडित आनी कृष्णा हाथी सिंग, हांचो वावर म्हत्वाचो आसा.

इंदिरा गांधीचें मुळावें शिकप अलाहाबाद हांगा जालें आनी उपरांतचें शिकप स्वित्झर्लंड, पुणे, मुंबय, ब्रिस्टल विद्यापीठ आनी सोमरव्हील विद्यापीठ (इंग्लंड), शांतीनिकेतन विद्यापीठ (भारत) हांगा जालें.

ऑक्सफर्ड विद्यापीठांत शिकता आसतना तिची फिरोझ गांधी ह्या पारशी तरनाट्याकडेन इश्टागत जाली. २६ मार्च १९४२ दिसा तिचें ताचेकडेन लग्न जालें. तिका उपरांत राजीव आनी संजय हे दोन पूत जाले.

ताका लागून राजनितीचे धडे तिका भुरगेपणांतच मेळ्ळे. विद्वान बापूय आनी ताचे बुदवंत सांगाती हांचो भुरगेपणासावन वांगड मेळिल्ल्यान, पुस्तकी गिन्यानापरस हेर विंगड विंगड विशयांचें गिन्यान तिका खूब प्रमाणांत मेळ्ळें.

पिरायेच्या बाराव्या वर्सा तिणें चरखा संघ आनी ल्हान चले-चलयांची वानरसेना स्थापली आनी महात्मा गांधीच्या सविनय कायदेभंग चळवळीक हातभार लायलो. त्यावेळार वानरसेनेच्या वांगड्याची संख्या ६०,००० चेर पाविल्ली. हे सेनेची त्या काळार खूब तोखणाय जाताली.

१९३८ वर्सामेरेन काँग्रेस पक्षाचें पुराय वांगडीपण तिका मेळूंक नाशिल्लें तरीय तिणें हे चळवळींत वांटो घेतलो.

शिक्षणाखातीर ऑक्सफर्डाक आसतना तिणें व्ही. के. कृष्णमेनन हाचे वांगडा भारतीय सुटके चळवळीचो पुरस्कार केल्लो.

१९४२ च्या भारत-छोडो आंदोलनांत इंदिरा गांधीन आपलो घोव फिरोझ गांधीवांगडा वांटो घेतलो. तेन्ना दोगांकूय बंदखणींत उडयलीं. सुटका जातकच दोगांय जाणां लखनौ येवन रावलीं.

१९४७ त भारताच्या स्वातंत्र्याउपरांत जातीयवादाक लागून देशभर दंगली उप्रासल्यो. त्यावेळार दिल्लीच्या दंगलग्रस्त वाठारांत शांतताय हाडपाखातीर तिणें खूब कश्ट घेतले. तेउपरांत तिणें सदांखातीर आपल्या बापायम्हऱ्यांत रावपाचें थारायलें, तेप्रमाण ती आनी फिरोझ गांधी दिल्लीक आयलीं. पं. नेहरू भारत देशाचो पयलो पंतप्रधान जातकच ती आपल्या बापायक विंगड विंगड कामांत मदतनीस म्हूण आदार करताली. त्याकाळांत तिणें बापायवागडा जायत्या देशांचें दौरे केले. आंतरराश्ट्रीय राजकारणांतल्या व्हड मनशांवांगडा तिची वळख जाली आनी आंतरराश्ट्रीय प्रस्नांचेर भासाभास करपाची संद तिका मेळ्ळी.

१९५५ वर्सा ती काँग्रेस कार्यकारिणीची वांगडी जाली तशेंच त्या वर्सा बायलांचे समितीची अध्यक्षा जाली. १९५६ च्या सप्टेंबर म्हयन्यांत ती अलाहाबाद शहर काँग्रेस कमिटीची अध्यक्षा जाली. १९५७ त काँग्रेसच्या मध्यवर्ती वेंचणूक मंडळाचेर तिची वेंचणूक जाली. फेब्रुवारी १९५८ त काँग्रेसच्या सेंट्रल पार्लमेंटरी बोर्डाचेर तिची वेंचणूक जाली. २ फेब्रुवारी १९५९ त नागपूरांत भरिल्ल्या काँग्रेसीच्या अधिवेशनांत तिची काँग्रेसची अध्यक्षा म्हूण वेंचणूक जाली. काँग्रेसचें अध्यक्षपद सांबाळपी ती चवथी बायलमनीस आसली. ती इकरा म्हयने काँग्रेसची अध्यक्ष उल्ली.

ऑगस्ट १९६१ त पंडीत नेहरून तिका आफ्रिकेचे भेटेर धाडली. त्या बारा दिसांचे भोंवडेत तिणें केनिया, युगांडा, टांझानिया आनी ऱ्होडेशिया (झिम्बाब्वे) ह्या देशांक भेटी दिल्यो आनी आफ्रिकन लोकांच्या सुटकेझुजाक भारताचो तेंको कळयलो. त्याच वर्साच्या नोव्हेंबर म्हयन्यांत नेहरू वांगडा तिणें अमेरिकेक भेट दिली.

२७ मे १९६४ वर्सा पं. नेहरूक मरण आयलें आनी लाल बहादूर शास्त्री भारताचो पंतप्रधान जालो तेन्ना परराश्ट्र खातें तिका दिवपाक केलें. पूण तिणें तें पद न्हयकारलें, तरी आसतना म्हायती आनी नभोवाणी खात्याचें मंत्रीपद तिका फाव जालें. आपल्या मंत्रीपदाच्या काळांत तिणें नभोवाणी खात्यांत जायत्यो सुदारणां केल्यो.

१९६४ वर्सा तिणें ग्रेट ब्रिटन, युगोस्लाविया, रशिया ह्या देशांक अधिकृतपणान भेट दिली तेचपरी तिसरे आंतरराश्ट्रीय चित्रपट समितीचें अध्यक्षपदूय सांबाळ्ळें.

१९६६ वर्सा लाल बहादूर शास्त्री हाच्या मरणा उपरांत २४ जानेवारी १९६६ ह्या दिसा भारताची तिसरी पंतप्रधान म्हूण तिणें सोपूत घेतलो. पंतप्रधान म्हूण देशाचीं सूत्रां हातांत घेवपी संवसारांतली ती दुसरी बायल मनीस आसली. १९६७ चे भौशीक वेंचणुकेंत काँग्रेसीक व्हड यश मेळ्ळें ना. पूण पंतप्रधान म्हूण भोवमतान तीच वेंचून आयली. त्याच वर्सा काँग्रेसीक आठ राज्यांच्या वेंचणुकांनी हार खावची पडली.

ह्याच वर्सा इंदिरा गांधीन गोंयचो 'ओपीनियन पोल' घेतलो. हो पोल गोंय, दमण आनी दीव वेगळें उरचें काय गोंय महाराश्ट्रांत आनी दमण दिव गुजरातांत वचचें ह्या प्रस्नाचेर आशिल्लो. १८ जानेवारी १९६७ ह्या दिसा ह्या पोलाचो निकाल लागून गोंय, दमण, दीव वेगळीं उल्लीं. १९६९ त राश्ट्रपतीच्या वटहुकूमावरवीं चवदा मुखेल बँकांचें राश्ट्रीयकरण जालें.

१२ नोव्हेंबर १९६९ दिसा काँग्रेस पक्षांत मतभेद जावन दोन गट पडले. इंदिरा गांधीच्या गटाचें सरकार द्रविड मुन्नेत्र कळघम पक्षाच्या आदारान तिगून उरलें. ते उपरांत पक्षांतलें सरकारांतलें अस्थिरपण सोंपोवपाचे नदरेन २७ डिसेंबर १९७० दिसा संसद बरखास्त करपाची विनंती राश्ट्रपतीकडेन केली. ती राश्ट्रपतीन मान्य केली.

१ मार्च १९७१ ह्या दिसा जाल्ल्या मध्यावधी वेंचणुकांनी इंदिरा गांधीच्या फुडारपणाखालच्या कॉंग्रेस पक्षाक ५१५ जाग्यांतले दोन तृतीयांश जागे मेळ्ळे.

डिसेंबर १९७१ त पाकिस्तानाआड भारतान बांगला देशाच्या प्रस्नावयल्यान झूज सुरू केलें. बांगलादेश मुक्त जालो. १९७२ वर्सा भारत आनी पाकिस्तान हांचेमदीं शांततायेचो सिमला करार जालो.

१२ जून १९७५ दिसा न्यायमूर्ती जे. एम्. एल्. सिन्हा हाणें मार्च १९७१ दिसा जाल्ली इंदिरा गांधीची रायबरेली मतदार संघांतली वेंचणूक रद्द थारायली आनी पंदरा दिसांभितर आपल्या पदाचो ताबो दुसऱ्याकडेन दिवचो अशें सांगलें. ह्या निकालाउपरांत देशभर खवदळ जालो. जयप्रकाश नारायण हाणें विरोधी पक्षांची आघाडी उबारून इंदिरा गांधीन राजीनामो दिवचो, सेनादळ आनी पोलिसांनी सरकाराचे बेकायदा हुकूम पाळचे न्हय, अशें मागलें. परिस्थिती २६ जून १९७५ दिसा मंत्रिमंडळाचे शिफारशीवेल्यान राश्ट्रपतीन आणीबाणी जाहीर केली.

१ जुलय १९७५ दिसा इंदिरा गांधीन देशामुखार वीस कलमी कार्यावळ दवरली.

८ डिसेंबर १९७५ दिसा खबरांपत्रांवेलें नियंत्रण कडक केलें. १८ सप्टेंबर १९७६ दिसा विदेशी पत्रकारांचेर घाल्ली सॅन्सर विशींचीं बंधनां सदळ केलीं.

१६ ऑगस्ट १९७६ दिसा 'प्रिव्हेंटीव डिटेन्शस ॲक्ट' ची मुदत संसदेन वाडयली. १० ते १७ ऑक्टोबर १९७६ ह्या काळांत तिणें मॉरिशस, टांगानिका आनी झांबिया ह्या राश्ट्रांक भेटी दिल्यो आनी दक्षिण आफ्रिकेच्या सुटकेझुजाक आपलो तेंको परगटायलो. ताका लागून तिसऱ्या जगांतल्या मुखेल देशांच्या फुडाऱ्यांचो तेंको भारताक मेळ्ळो.

५ नोव्हेंबर १९७६ दिसा संसदेन लोकसभेची मुदत एका वर्सा खातीर वाडयली. १९ जानेवारी १९७७ दिसा लोकसभा बरखास्त करून मार्चांत वेंचणुको जातल्यो, अशें जाहीर केलें. चडशे राजबंदी सुटले. खबरांपत्रांवेलें सॅन्सर काडलें. १९७७ तल्या वेंचणुकांनी कॉंग्रेस पक्षाची हार जाली. इंदिरा गांधीचोय रायबरेली मतदारसंघांतल्यान राजनारायण हाचेकडल्यान पराभव जालो. जनतापक्षाक ५३६ तले २६२ तर कॉंग्रेसीक १५२ जागे मेळ्ळे.

१९८३ त भारतांत जाल्ले अलिप्त राश्ट्र शिखर परिशदेचें अध्यक्षपद इंदिरा गांधीन सांबाळ्ळें. नोव्हेंबर १९८३ त दिल्लींत जाल्ले राश्ट्रकूल प्रधानमंत्री परिशदेची ती अध्यक्षा आसली.

इंदिरा गांधीक आपल्या जिवीतांत जायते मान-सन्मान आनी तस्त्रीपो फाव जाल्यो. भारत आनी परदेशांतल्या जायत्या विद्यापीठांनी तिका आपली डॉक्टरेट भेटयल्या. १९७२ वर्सा 'भारतरत्न' हो भोवमानाचो पुरस्कार तिका फाव जालो.

३१ ऑक्टोबर १९८४ ह्या दिसा १ सफदरजंग रोडावेल्या घरांतल्यान १४ अकबर रोडार लोकांक मेळूंक वतना तिच्याच दोन राखणे सैनिकांनी तिचेर गुळयांचो शिंवर घालो. कांय खिणातच तिका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**गांधीनगर:** गुजरात राज्याची राजधानी. आंवाठ: ६४९ चौ. किमी. १९६० वर्सा राज्यपुनर्रचणुकेप्रमाण गुजरात राज्याची थापणूक जाली. आदींच गजबजिल्ल्या अहमदाबाद ह्या शाराचेर चड ताण पडचो न्हय म्हूण अहमदाबादचे उत्तरेक अहमदाबाद-हिंमतनगर रस्त्यार नवे राजधानीची थापणूक करपाचें थारायल्लें. महात्मा गांधीचो जल्म गुजरातांत जाल्लो देखून ताच्या उगडासाखातीर ह्या नगराक गांधीनगर हें नांव दवरलें.

- कों. वि. सं. मं.

**गांधी, मोहनदास करमचंद:** (जल्म: २ ऑक्टोबर १८६९, पोरबंदर-गुजरात; मरण: ३० जानेवारी १९४८).

भारत देशांत विसाव्या शतमानांत जावन गेल्लो एक व्हड फुडारी. स्वतंत्र भारत राश्ट्राचो जनक आनी शांती, सत्य आनी अहिंसेचो उपासक अश्या विंगड विंगड रुपांनी महात्मा गांधीक वळखतात.

मोहनदासाचो आजो उत्तमचंद पोरबंदर संस्थानाचो दिवाण आसलो. उपरांत तो राजकोट संस्थानाचो दिवाण जालो. तांचो बापूय करमचंद हो पोरबंदर संस्थानाचो दिवाण आनी राज्याच्या थळाव्या न्यायालयाचो वांगडी आसलो. उपरांत कांय काळ ताणें राजकोट आनी बिकानेर हांगा दिवाण म्हूण काम केलें. ताका चार बायलो आसल्यो. तातूंतली सगळयांत ल्हान पुतळीबाई मोहनदास म्हळयार महात्मा गांधीची आवय आसली. आपल्या सगळ्या भांवडांमदीं तो ल्हान आसलो.



महात्मा गांधीचें कुटूंब प्रतिश्ठीत, सुसंस्कृत आनी हिंदू वैष्णव वर्गांतलें आसलें. ताचीं आवय बापूय धर्मग्रंथाचीं पारायणां करतालीं. तीं आपल्या भुरग्यांक धर्मीक कथा सांगतालीं. हाचो परिणाम ताचेर जालो. हे घडणुकेंतल्यानच फुडाराच्या हिंसात्मक सत्याग्रहाची बुन्याद पडली अशें मानतात. तो पिरायेच्या तेराव्या वर्सा कस्तुरबा हिचेकडेन लग्न जालो. तांकां हिरालाल, रामलाल आनी देवदास अशीं तीन भुरगीं जालीं.

आठव्या वर्सासावन गांधीजीचें मुळावें शिकप सुरू जालें. उपरांतचें शिकप दीक्षा हायस्कूलांत जालें. १८८७ त तो मॅट्रीक पास जालो. १८८८ त तो वकिली शिकपाखातीर इंग्लंडाक गेलो. लंडनांत ताणें थंयचे मॅट्रिकचे परिक्षेंत यश जोडलें. लंडनांत बॅरिस्टर ही पदवी जोडून १० जून १८९१ दिसा तो भारतांत आयलो.

भारतांत येतकच ताणें मुंबयत वकिली सुरू केली. पूण तातूंत ताका व्हडलेशें यश मेळूंक ना. १८९३ त, पोरबंदरच्या एका मुसलमान वेपाऱ्यान ताका दक्षिण आफ्रिकेंत स्वताचो खटलो चलोवपाखातीर एका वर्साचे कबलातीचेर व्हेलो. हो खटलो ताणें समजिकायेन मिटयलो. दक्षिण आफ्रिकेंत तो वीस वर्सां उरलो. त्या काळांत ताणें थंयच्या काळ्या लोकांचेर खास करून भारतीय लोकांचेर जावपी अन्याय आनी अत्याचार लागींच्यान पळयलो. गोरे लोक कामगारांक कशे त्रास दितात हाचेंय ताका दर्शन घडलें. ह्या अन्यायाआड ताणें सत्याग्रह केलो. तेवरवीं ताणें थंयच्या जायत्या हिंदू, मुसलमान आनी किरिस्तांव तशेंच हेर जमातींचो मोग जोडलो. जायते युरोपीयन ताचे इश्ट जाले.

२२ मे १८९४ ताणें नाताळ इंडियन कॉंग्रेसीची थापणूक केली. हिंदू लोकांक मेळपी कांय सवलती काडून घेवपी एक बिल दक्षिण आफ्रिकेच्या विधीमंडळांत आयिल्लें. ह्या बिलाक खर विरोध परगटावपाखातीर हे कॉंग्रेसीची थापणूक जाल्ली. फुडें तें बिल विधीमंडळांत मानून घेतलें. तेन्ना ह्या कायद्याआड ताणें खर चळवळ उबाल्ली. ह्याच काळांत 'इंडियन ओपिनियन' हें खबरापत्र ताणें सुरू केलें.

जून १८९६ त गांधी भारतांत आयलो. जायत्या भारतीय फुडाऱ्यांची ताणें भेट घेतली आनी दक्षिण आफ्रिकेंतली परिस्थिती सगळयांमुखार मांडली. कांय म्हयन्याउपरांत तो पर्थून दक्षिण आफ्रिकेंत गेलो. ह्याच वेळार थंय बोअर झुज सुरू जाल्लें. गांधीन जायत्या भारतीय लोकांचे पंगड करून दोनूय वटांनी झुजून जखमी जाल्ल्या गोऱ्या सैनिकांची सेवा

केली. १९०१ वर्सा तो भारतांत आयलो. ह्यावेळार तो राश्ट्रीय काँग्रेसीच्या कलकत्ता अधिवेशनाक हाजीर रावलो. १९०३ त तो आफ्रिकेंत गेलो. थंय दडपशायेच्या कायद्यांआड ताणें व्हड चळवळ चलयली. कस्तुरबा सयत हेर जायत्या बायलांनी हे चळवळींत वांटो घेतलो आनी बंदखण भोगली. १९०७ वर्सा भारतीय भोंवडेकारांचेर कडक बंधनां घालपी कायदो संमत जालो. ह्या कायद्याआड खर चळवळ जाली. हे चळवळींत भाग घेतिल्ल्यान गांधीक दोन म्हयन्यांची बंदखण फाव जाली. ताका धरतकच चळवळीक चडूच नेट आयलो तेन्ना सरकाराक उपाय नासून ह्या आंदोलनामुखार नमचें पडलें. ह्या आंदोलनांक लागून जनरल स्मट्साकडेन ताचो जायते फावट संघर्श जालो. १९०८ त गांधीक सक्तमजुरीची ख्यास्त फर्मायली. हे चळवळीचो धग इंग्लंड आनी भारताक लेगीत लागलो. १९१२ वर्सा गोपाळ कृष्ण गोखले जनरल स्मट्सान काळो कायदो रद्द करचो म्हूण आफ्रिकेंत गेलो. ह्या वेळार गांधी आनी गोखले एकेकडेन आयले. ह्याचवेळार गांधीन गोखले हाका आपलो राजकी गुरू मानलो. २१ जानेवारी १९१४ त वर्णद्वेशाच्या कायद्याविशीं गांधी-स्मट्स हांचेमदीं कबलात जाली.

४ ऑगस्ट १९१४ दिसा पयल्या म्हाझुजाची घोशणा जाली. त्यावेळार लंडन वचून इंग्लंडच्या आदाराखातीर भारतीय स्वयंसेवक दलाची थापणूक केली. ९ जानेवारी १९१५ त आफ्रिकेंतलो वावर सोंपोवन इंग्लंडसावन तो भारतांत आयलो.

भारतांत येतकच तो जायत्या सुवातींनी भोंवलो. हरद्वारचें गुरूकुल आनी शांतिनिकेतन हांकांय ताणें भेटी दिल्यो. हरद्वार हांगाचो कांगडी गुरूकुलाचो आचार्य श्रध्दानंद हाणें महात्मा म्हूण ताचो भोवमान केलो. २५ मे १९१५ दिसा अहमदाबाद हांगा साबरमती न्हंयचे देगेर सत्याग्रहाश्रमाची थापणूक केली. आश्रमांत ताणें एका अस्पृश्याक थारो दिल्लो, तेखातीर अहमदाबादच्या जायत्या वेपारी लोकांनी आश्रमाक दुडवांचो आदार दिवपाचो बंद केलो. ह्यावेळार लेगीत तो अनमनलोना. आश्रमांत अस्पृश्यांक दवरपाचो आग्रोय सोडलो ना. विनोबा भावे, काकासायब कालेलकर, संगीतज्ञ खरे गुरुजी, गोपाळराव काळे, महादेवभाई देसाय, जे. बी. कृपलानी, किशोरीलाल मश्रुवाला, प्यारेलाल आनी हेर गांधीचे अनुयायी आश्रमांत आयले. हो सत्याग्रहाश्रम तेन्नासावन भारतीय राजकी स्वातंत्र्याच्या आंदोलनाचें मुखेल केंद्र म्हूण मुखार आयलें.

१९१७ त गांधी चंपारण बिहारांतल्या शेतकामत्यांचेर जावपी अन्यायाआड न्याय मागपाक थंय पावलो. चंपारण जिल्ह्यांतल्या ८५० खेडवळ वाठारांतल्या ८,००० शेतकामत्यांच्यो कागाळी गांधीन बरोवन घेतल्यो. गांधीच्या अथक यत्नांक लागून सरकाराक चवकशी समिति नेमची पडली.

अहमदाबादच्या ८०,००० कामगारांचो ७०% बोनस गिरणीच्या धनयांनी रद्द केलो. तेखातीर कामगार संपार गेले. गांधीन हो प्रस्न सुटावो जावचो म्हूण उपासाक सुरवात केली. निमाणे गिरणीचे धनी ३५% पगार वाडोवपाक मान्य जाले. असले तंटे परते-परते उप्रासचे न्हय म्हूण ताणें मजूर-महाजन नांवाचे संस्थेची थापणूक केली. खेडा जिल्ह्यांत भिरांकूळ दुकळ पडून लेगीत सरकार शेतावेलो कर बळयां घेवपाक लागलो. तेखातीर गांधीन करबंदीची चळवळ हातांत घेतली. निमाणे चळवळीक लागून हो कर माफ करपाचो निर्णय सरकारान घेतलो.

१९१७ त व्हाईसरॉय लॉर्ड चेम्सफर्ड हाणें आपयिल्ले भारतीयांचे परिशदेंत गांधीन पयल्या संवसारीक म्हाझुजांत इश्ट राश्ट्रांक मदत दिवपाच्या हेतान सैन्य भरतीक तेंको परगटायिल्लो. टिळक मात स्वराज्याचो अधिकार मेळपाचें आश्वासन मेळयारूच 'सैन्य भरतीक' तेंको दिवंचो अशें मागतालो. सैन्याचे भरतीपासत देशभर भोंवतासतना गांधी दुयेंत पडलो.

१९१८ वर्सा म्हाझूज सोंपतकच मॉंटेग्यू आनी चेम्सफर्ड समिति भारतीयांचे राजकी हक्क थारावपाक ब्रिटीश सरकारान नेमली. लोकप्रतिनिधीचीं कायदेमंडळां आनी व्दिदल राज्यपध्दत दवरपाचें थारायलें. पूण गव्हर्नर आनी केंद्र सरकाराचे अधिकार मात सगळ्यांपरस वयर दवरले. हे गजालीआड पेटिल्लो असंतोश भारतभर पातळ्ळो. तो चिड्डून उडोवपाखातीर न्यायमूर्ती रौलॅट हाचे अध्यक्षतेखाल नेमिल्ले शिफारशीवरवीं दडपशायेचो कायदो केंद्र सरकारान मंजूर केलो. ह्या कायद्याआड गांधीन खर सत्याग्रह केलो. भारतभर भोंवडी करून देशांत जागृताय हाडपाचो यत्न केलो. ६ एप्रिल १९११ दिसा देशभर 'हरताळ' पातळ्ळो. हिंदू-मुसलमानांचो संघटीत एकचार हे चळवळींत दिश्टी पडलो. पंजाब सरकारान गांधीक पंजाबांत येवपाची मनाय केली. ताका धरून मुंबय धाडलो. परिस्थिति गंभीर जाली. ह्याच वेळार जालियनवाला बागेंत भारतीयांचें भिरांकूळ हत्याकांड जालें. तेखातीर गांधीन कांय दिसांखातीर आपलो सत्याग्रह थांबयलो.

१९२० वर्सा नागपूर हांगा काँग्रेसीच्या अधिवेशनांत सरकाराआड असहकार आंदोलन सुरू करपाचो उलो गांधीन दिलो. लाखांनी लोकांनी आपलो काम-धंदो सोडून हे कार्यावळीक उपाट तेंको दिलो. गांधीन दुसरे वटेन खिलाफत चळवळीक फाटबळ दिवन तिचें पुनरुज्जीवन केलें.

रासवळ कायदेभंग आनी करबंदीची चळवळ चालीक लावचे पासत तो जेन्ना बार्डोली आयलो तेन्ना उत्तर प्रदेशांत चौरीचोरा हांगा दंगे जाले. कांय पोलिसांकूय जिवेशीं मारून उडयले. ते घडणुकेक लागून गांधीन बार्डोलीचो सत्याग्रह थांबावपाचो निर्णय घेतलो. उपरांत १० मार्च दिसा अहमदाबाद हांगा ताका राजद्रोहाच्या आरोपाखाला धरून स वर्सांची ख्यास्त फर्मायली. ताका येरवडा बंदखणींत दवरलो. थंय १९२४ वर्सा ताका आंत्रपुच्छशोथ हो विकार जोडलो. ताचेर शस्त्रक्रिया केली. ५ फेब्रुवारीक ताका बंदखणींतल्यान सोडलो.

गांधीन ह्या उपरांत ब्रिटीश राजवटीआड सरळपणान झुजनासतना भौशीक आनी विधायक कार्यावळींनी मुखेलपणान वांटो घेतलो. हिंदू-मुस्लीम एकचार, अस्पृश्यता निवारण, खादी ग्रामोद्येग, गांवची नितळसाण ह्या गजालींचेर ताणें चड भर दिलो. राजगोपालाचारी, जवाहरलाल नेहरू हांणी ह्या वावरांत ताका मोलाचो सांगात दिलो. ३ फेब्रुवारी १९२८ दिसा सायमन कमिशनाक विरोध करतासतना लाला लजपतराय हाका पोलिसांचो जबर लाठीमार सोंसचो पडलो. तातुंतूच ताका मरण आयलें. भारताचें राजकी वातावरण तापिल्लें पळोवन नेहरू आनी सुभाषचंद्र बोस हांणी काँग्रेसचो उद्देश पुराय स्वातंत्र्याखातीर आसा, अशें जाहीर करपाचें थारायलें. गांधीन ३१ डिसेंबर १९२९ मेरेन साम्राज्याभितर स्वराज्य मेळ्ळेंना जाल्यार आपूण पुराय स्वातंत्र्य मागतलो अशें सांगलें. १९३० वर्सा सविनय कायदेभंगाची घोशणा केली. १२ मार्च १९३० दिसा सकाळच्या साडे-स वरांचेर साबरमती आश्रमांतल्यान, गांधी स्वराज्य मेळ्ळेबगर परतुचो ना अशी प्रतिज्ञा करून दांडी हांगा मिठाचो कायदो तोडपाखातीर ७२ वावुरप्यांसत भायर सरलो. ६ एप्रिलाक ही यात्रा सोंपली. गांधीन बेकायदेशीर मीठ एकठावन मिठाचो कायदो मोडलो. पुराय देशभर हें आंदोलन चललें. ४ मे १९३० दिसा गांधीक कराड हांगा धरून येरवडा बंदखणींत दवरलो. देशभर लाखांनी लोकांनी कायदेभंग करून बंदखण भोगली. १९ जानेवारी १९३१ दिसा शांततायेचें वातावरण निर्मुपाखातीर लॉर्ड आयर्विन हाणें गांधीक सोडलो. निमाणें गांधी-आयर्विन हांचेभितर भासाभास जावन ५ मार्च १९३१ दिसा गांधी-आयर्विन कबलात जाली.

नोव्हेंबर १९३१ त, इंग्लंडांत गोलमेज परिशद भरली. हे परिशदेक गांधी पंचो आनी शाल न्हेसून तर पांयांत सादी व्हाण घालून गेल्लो. गांधीन हे परिशदेंत हिंदू, मुसलमान, स्पृश्य आनी अस्पृश्य हांकां विभक्त मतदारसंघ दिवपाक खर विरोध परगटायलो. जातीयवाद उरचो न्हय अशें ताका दिसतालें. भारतांत पावतकच ३ जानेवारी १९३१ दिसा गांधीक अटक जाली. ते उपरांत वल्लभभाय पटेल, जवाहरलाल नेहरू, राजेंद्रप्रसाद, सुभाष चंद्र बोस, डॉ. अन्सारी, आझाद, कमला नेहरू ह्या राश्ट्रीय फुडाऱ्यांकूय बंदखणींत उडयले. १८ ऑक्टोबर १९३२ दिसा

ब्रिटीश राजवटीन बाबासायब आंबेडकर हाचे मागणेवेल्यान अस्पृश्यांक विभक्त मतदारसंघ दिवपाचें मान्य केलें. हे गजालीचो विरोध करपाखातीर ताणें २० सप्टेंबरसावन आमरण उपास सुरू केलो. २६ सप्टेंबराक गांधीचो जीव वाटावपाखातीर आंबेडकरान तडजोड केली. हातूंतल्यान येरवडा कबलात जाली. ८ मे १९३३ सावन ताणें पातकाचें प्रायश्चित्त म्हूण २१ दिसांचें उपोशण केलें. त्यावेळार सरकारान ताची रोखडी सुटका केली. १२ जुलय १९३३ दिसा गांधीन रासवळ सत्याग्रहाचें आंदोलन फाटल्यान घेतलें. १९३४ त ताणें वैयक्तिक कायदेभंग सुरू केलो. तेखातीर ताका पर्थून एक वर्साची बंदखण भोगची पडली. बंदखणींत ताणें उपासाक सुरखात केली. निमाणें ताका सोडलो. जानेवारी १९३४ त बिहार राज्यांत व्हड भूंयकाप जालो. तेन्ना गांधीन पिडेस्त लोकांची सेवा केली.

ऑक्टोबर १९३४ त, पिडेस्त आनी हरिजनांचे सेवेक एकाग्रचित्तान लक्ष दिवपाक मेळचें म्हूण ताणें काँग्रेस सोडली. १९३८ वर्सा गांधी बंगालांत गेलो. थंयचे बंदखणींत शेंकड्यांनी सशस्त्र क्रांतीवीर बंद आसले. ब्रिटीश सरकाराकडेन उलोवणीं करून ताणें तांकां सोडोवंक लायले.

१९३७ वर्साच्या प्रांतिक आनी केंद्रीय वेंचणुकांनी काँग्रेसीक बंगाल आनी पंजाब सोडून हेर राज्यांनी जैत मेळ्ळें. सत्तेचीं सुत्रां अशेतरेन काँग्रेसीच्या हातांत आयलीं. दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजावेळार ब्रिटीश सरकारान काँग्रेसीक विचारीनासतना भारताक ह्या झुजांत ओडलो. तेन्ना गांधीच्या सल्ल्यावेल्यान काँग्रेसीच्या मंत्रीमंडळान राजीनामो दिलो. एप्रिल १९४१ त, गांधीन आपलो वैयक्तिक सत्याग्रह पर्थून सुरू केलो. तेन्ना इंग्लंडचो प्रधानमंत्री चर्चिल हाणें भारताक स्वराज्याचे हक्क झूज सोंपतकच दिवचे, अशें थारावन सर स्ट्रॅफर्ड क्रिप्स आयोग भारतांत धाडलो. गांधी-क्रिप्स हांचेमजगतीं तेविशीं उलोवणीं फळादीक जालीं नात.

८ ऑगस्ट १९४२ दिसा गांधीन मुंबय अखिल भारतीय काँग्रेस समितीची बसका आपयली हे बसकेंत भारत स्वतंत्र जालो, असो निर्णय घेतलो. काँग्रेस महासमितीन 'छोडो भारत' चो थाराव संमत केलो. ९ ऑगस्टाक गांधीसयत शेंकड्यांनी फुडाऱ्यांक बंदखणींत उडयले. गांधीक पुणे हांगा आगाखान बंगल्यांत नजरबंद केलो. ६ मे १९४४ दिसा ताची सुटका जाली.

१९४६ त इंग्लंडांत ॲटलीच्या फुडारपणाखाल मजूर पक्षाचें मंत्रीमंडळ सत्तेर आयलें. ताणें मे १९४६ त भारताच्या स्वराज्याची येवजण तयार केली. संविधान परिशद आनी हंगामी राश्ट्रीय मंत्रीमंडळ घडोवपाचो अधिकार तेवरवीं भारताक मेळ्ळो. २९ जुलय १९४६ दिसा मुस्लीम लिगान पाकिस्तानाची मागणी करपाखातीर आंदोलन केलें. तांचे हे मागणेक लागून भारताचे दोन कुडके जातले ही गजाल निश्चित जाली. गांधीन मात ह्या निर्णयाक लागून खूब दूख भोगलें. ३ जून १९४७ दिसा नेहरू, पटेल आनी हेर भारतीय फुडाऱ्यांनी भारताची फाळणी मान्य केली. ह्याच वेळार हिंदू-मुसलमानां भितर देशभर यादवीझुज पेटलें. १५ ऑगस्ट १९४७ दिसा भारताचें स्वातंत्र्य जाहीर जालें. पूण संघर्श आनी हत्त्या थांबल्यो नात. १३ जानेवारी १९४८ दिसा ताणें आमरण उपास सुरू केलो. देशांतलें वातावरण निवळचें आनी भारत सरकारान पाकिस्तानाचे ५५ कोटी रुपया परत करचे अशी ताची इत्सा आसली. गांधीची इत्सा पटेल आनी हेर फुडाऱ्यांक मान्य नासली. पूण गांधीचो जीव वाटावपाखातीर तांकां ही मागणी मान्य करची पडली.

३० जानेवारी १९४८ दिसा गांधी बिर्ला भवनांतल्यान प्रार्थनाथळाकडेन वतालो. सांजवेळची पांच वरां जाल्लीं. पुण्याचे नथुराम गोडसे आनी नारायण आपटे हांणी आपल्या वांगड्यांसयत प्रार्थनाथळाचेर प्रवेश केलो. गांधीच्या म्हऱ्यांत वचून गोडसे हाणें ताचेर गुळयो घाल्यो. गांधीक जाग्यारच मरण आयलें. 'राष्ट्रपिता' म्हूण सगळ्यांत व्हड असो भोवमान गांधीक मरणाउपरांत मेळ्ळो.

**पत्रकार आनी साहित्यीक गांधी:** गांधीन भौशीक वावरावांगडाच पत्रकार आनी साहित्यिक म्हूण मोलाचो वावर केलो. ताचो नियाळ फुडलेतरेन आसा.

आपली राजकी विचारसरणी आनी तत्त्वगिन्यानाचो प्रसार करपाखातर 'सत्याग्रह' नांवाचें सातोळें ७ एप्रिल १९१९ सावन चलयलें. मुंबयतल्या 'बॉम्बे क्रॉनिकल' ह्या दिसाळ्याचो संपादक जावपाची विनंती ताका केल्ली. पूण सरकारान तें दिसाळें बंद करपाचो हुकूम सोडलो. १९१९ सावन 'यंग इंडिया' (इंग्लीश) आनी 'नवजीवन' (गुजराती) ह्या दोन दिसाळ्यांचो संपादक म्हूण ताणें वावर केलो. ११ फेब्रुवारी १९३३ दिसा इंग्लीश सातोळें 'हरिजन' ताणें सुरू केलें. उपरांत 'हरिजन' हिंदींतल्यान येवपाक लागलें. सत्याग्रह, असहकार, आध्यात्मिक जीवनपध्दत, हिंदू-मुस्लीम एकचार, अस्पृश्यतानिवारण ह्या विशयांचेर ताणें आपल्या खबरांपत्रांतल्यान बरप केलें.

गांधीचें साहित्य प्रभावी, हृदयस्पर्शी आनी साहित्यगुणांनी भरिल्लें आसा. गांधीच्यो साहित्यकृती फुडलेतरेन आसात: सत्यना प्रयोगो वा आत्मकथा (१९२७, आत्मचरित्र), जोडणीकोश (गुजराती भाशेंतलो पयलो प्रमाणभूत शब्दकोश), दक्षिण आफ्रिकाना सत्याग्रहनी इतिहास (१९२४), नातिनाशने मार्ग (१९२७), त्यागमूर्ति अने बीजा लेखो (१९३०), गांधीजीनी आखरी हाकल (१९४२), आरोग्यनी चावी (१९४८), मूरखराज (१९६४). गांधीन नेमाळ्यांतल्यान केल्लें वैचारिक बरप, प्रासंगिक आसून तें धर्म, नीत, समाज, शिक्षण, राजकारण, अर्थशास्त्र आनी आरोग्य ह्या विशयांचेर केला. ताचो पत्रवेव्हार आनी बरपावळ मंगलप्रभात (१९३०), धर्ममंथन, बापूना पत्रो (११ भाग १९४९ ते १९७२) ह्या ग्रंथांतल्यान उजवाडाक आयलां.

गुजराती साहित्याच्या इतिहासांत 'गांधीयुग' हो स्वतंत्र कालखंड मानतात. ह्या युगांत ताच्या प्रभावान काकासाहेब कालेलकर, महादेवभाई देसाई, किशोरीलाल मश्रुवाला सारके साहित्यीक घडले.

सत्य, अहिंसा ह्या दोन नैतिक तत्त्वांचेर आदारून राविल्ली अशी 'विचारसरणी' गांधीन पुरस्कृत केली. जिका 'गांधीवाद' म्हण्टात.

ह्या दोनूय नैतिक तत्त्वांचो सिध्दांत गांधीन राजकी तशेंच समाजीक मळार व्हड निश्ठेन आपणायलो. हाकाच तो सत्याग्रह म्हण्टालो. वायट उपायान साध्य करून घेतिल्ली गजाल वायट फळां दिता अशें ताचें मत आशिल्लें. सुर्वेक ताणें वर्णाश्रमाचो तसोच जातीभेदाचो पुरस्कार केल्लो तरी आध्यात्मवादाचेर आदारिल्ल्या अर्थीक तशेंच समाजीक समता-वादाचो पुरस्कार केलो.

**गांधीचें अर्थकारण:** एक नैतिक ध्येयवाद दवरून भारताच्या अर्थकारणाचें जें गांधीन कोश्टक मांडलें ताका गांधीचें अर्थकारण म्हण्टात. ह्या अर्थकारणाचीं मुखेल तीन सुत्रां दिश्टी पडटात.

१. जे सैमीक संपत्तीची केन्नाच तूट पडूंक शकना अशे संपत्तीचेर बसयिल्ली अर्थवेवस्था. हे अर्थवेवस्थेंत जाची तूट पडूं येता अशे खनिज संपत्तीचेर भर दिवंचेपरस वनस्पत आनी मोनजात, उदक, उजवाड, उर्जा, वायू सारकिल्या सैमीक संपत्तीचेर चडभर दितात.

२. यंत्रांचेर आदारून रावनासतना, मनीसबळाक म्हत्व दिवपी अर्थवेवस्था.

३. समाजवादी अर्थवेवस्था: केल्ल्या कश्टांचें फाव तितलें मोल दिवपी वा त्या प्रमाणांत संपत्तीचो वांटो मेळपाचो नैतिक हक्क दिवपी अर्थवेवस्था.

उद्येगीकरणाक लागून शारांची वाड सुमाराभायर जाली हाकालागून नैतिक अधोगती जावन मानवतावाद लयाक वचपाक पावलो. ताका आळाबंद बसोवपाक अश्या अर्थकारणाची गरज आसा अशें गांधीचें आनी ताच्या अनुयायांचें मत आसलें.

अर्थकारण आनी राजकारण हाचें विकेंद्रीकरण करून गांवच्या थरार ग्रामराज्य निर्मूवप आनी ताळागाळांतल्या मनशांक सत्तेचो वांटेकार करप म्हळ्यार खऱ्या अर्थान स्वराज्य भोगप हो सिध्दांत ह्या अर्थकारणा-

फाटल्यान दवरिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**गांधी, राजीव:** (जल्म: २० ऑगस्ट, १९४४ मुंबय; मरण: २१ मे १९९१, श्रीपेरुंबुदूर).

भारत देशाचो सगळयांत तरनाटो आदलो प्रधानमंत्री. भारताची आदली प्रधानमंत्री स. इंदिरा गांधी आनी फिरोझ गांधी हांचो व्हडलो पूत. पंडीत जवाहरलाल नेहरू हाचो नातू.

राजीव गांधीचें मुळावें शिकप वेलहम्स स्कूल, डून स्कूल (डेहराडून) आनी सेंट कोलंबस स्कूल (नवी दिल्ली) हांगा जालें. १९६० त सिनियर कॅंब्रिज एक्झामिनेशन दुसऱ्या वर्गांत पास जालो. फुडें आपलो भाव संजय हाचे वांगडा तो लंडनांत गेलो. थंय ताणें इंपीरियल कॉलेज-लंडन हांगा शिकप घेवपाक सुरवात केली. एका वर्साउपरांत तो मॅकॅनिकल इंजिनियरींग शिकपाक ट्रिनिटी कॉलेज- कॅंब्रिज हांगा आयलो.

भुरगेपणासावन शांत स्वभावाचो म्हूण ताका वळखताले. इंग्लंडांत आसतना दावे विचारसरणेच्या विद्यार्थी संघटनांसावन तो सदांच पयस रावलो. थंय शिकपाक आसतना ताका ६२० पौंड मेळटाले. तातूंतले ४५० पौंड शिक्षणाची फी, खाणजेवण आनी रावपाचें भाडें हातूंत सोंपताले. तेपासत तो पैशांची तुट भागोवंक आइस्क्रीम विकतालो आनी एके बेकरींत नोकरी करतालो.

इंग्लंडांत शिकताआसतना ताची वळख इटलीच्या सोनिया मायनो हिचेकडेन जाली. ती इंग्लीश भाशेचो अभ्यास करपाक लंडनांत आयिल्ली. २५ फेब्रुवारी १९६८ दिसा दोगांय लग्न जालीं. तांकां राहूल आनी प्रियांका अशीं दोन भुरगीं आसात.

लग्न जावन भारतांत परत येतकच ताणें विमान चलोवपाचो हेत मनांत बाळगून दिल्ली फ्लाइंग क्लबांत प्रवेश घेतलो. ह्या क्लबाची प्रवेश परीक्षा तो पास जालो. कांय काळाउपरांत इंडियन एअरलायन्स सेवेंत वैमानिक म्हूण तो नोकरेक लागलो. एक कुशळ वैमानिक म्हूण ताची नामना आसली. सादारणपणान चवदा वर्सां इंडियन एअरलायन्सांत वेवसायीक वैमानिक म्हूण ताणें काम केलें.



कॉंग्रेस पक्षाच्या लोकशायमताक ताचो पुराय तेंको आसलो, पूण राजकारणासावन तो सदांच पयस रावलो. २३ जून १९८१ दिसा ताचो धाकलो भाव संजय गांधी हाका विमान अपघातांत मरण आयलें. ही घडणूक ताका राजकारणांत हाडपाक कारण जाली. आवयक राजकी सांगात दिवचेपासत ताणें वैमानिकपदाचो राजीनामो दिलो आनी जून १९८१ त अमेठी लोकसभा मतदारसंघांत पोटवेंचणूक लडयली. हे वेंचणुकेंत २ लाख ५८ हजार मतांनी ताणें व्हड जैत जोडलें. २ फेब्रुवारी १९८३ दिसा इंदिरा कॉंग्रेस पक्षाचो सरचिटणीस म्हूण ताची नेमणूक जाली.

३१ ऑक्टोबर १९८४ दिसा प्रधानमंत्री श्रीमती इंदिरा गांधी हिचे हत्त्येउपरांत पिरायेच्या चाळीसाव्या वर्सा राजीव गांधी हाका भारताचो सातवो प्रधानमंत्री म्हूण वेंचून काडलो. २४ ते २७ डिसेंबर १९८४ मजगतीं जाल्ले आठवे लोकसभा वेंचणुकेंत राजीव गांधीच्या फुडारपणाखाल इंदिरा कॉंग्रेस पक्षान इतिहासीक जैत जोडलें. वेंचणूक जाल्या ५०८ सुवातींतल्यो ४०१ सुवाती पक्षाक फाव जाल्यो. राजीव गांधी अमेठींतल्यान ३ लाख १४ हजार मतांनी वेंचून आयलो. ताच्या काळांत घडिल्ल्यो म्हत्वाच्यो राश्ट्रीय घडणुको: अरुणाचल प्रदेशाक मेळिल्लो घटकराज्य दर्जो, पंजाब, आसाम, मिझोराम, अस्तंत बंगाल राज्यांनी शांतताय हाडपा नदरेन जाल्यो कबलाती, पक्षांतर आळाबंदा हाडपी पक्षांतर विरोधी कायदो, दूरदर्शनाचो जाल्लो विस्तार, आर्विल्लें तंत्रगिन्यान आनी कम्प्युटर हांकां दिल्लें म्हत्व, नवी शिक्षण वेवस्था, मालदीवाचें अखंडपण तिगोवपाखातीर त्या देशांत केल्ली लश्करी कारवाय, श्रीलंकेत तमीळवंशीयांची राखण आनी श्रीलंकेचें अखंडपण तिगोवपाखातीर धाडिल्ली भारतीय शांतीसेना हांचो आस्पाव जाता.

णववे लोकसभेत ताच्या इंदिरा कॉंग्रेस पक्षाक भोवमत मेळोवपाक अपेस आयलें. तो स्वता अमेठी लोकसभा मतदारसंघांतल्यान वेंचून आयलो. १९९० च्या शेवटाक ताच्या इंदिरा कॉंग्रेस पक्षान जनतादलाक (स) फाटबळ दिवन सरकार घडयलें. १९९१ तल्यो वेंचणूको जाहीर जाल्याउपरांत प्रचाराक गेल्लेकडेन ताची बॉंब स्फोटांत हत्त्या जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**गांयडोळ:** एक सरपटपी प्राणी. (वर्ग- कीटोपोडा; गण- ऑलिगोकीटा).

गांयडोळ हो दंडगोलाकार सरपटपी प्राणी आसून ताच्या दोनूय तोंकांकडेन तो अशीर जाल्लो दिसता. ताच्या शरीराचे सुमार १०० ते १२० खंड वा भाग पडिल्ले आसतात. चवदा ते सोळा ह्या भागाभोंवतणी ग्रंथीमय ऊतकाची जाल्ली पर्याणिका (कातीचो फुगिल्लो ग्रंथीमय भाग) आसता.

ताच्या शरीराचेर तोंड, गुद्‌द्वार, एक स्त्रीजनन रंध्र, दोन पुंजनन रंध्रां आनी शुक्र-ग्राहिका रंध्रांच्यो चार जोडयो आसतात. दरेका भागाभोंवतणी मदीं कायटिनी (एक पदार्थ) आनी शूकांचें वलय (ल्हान, ताठ आनी सरळ केंसाची रचणूक) आसता. पयले बारा भाग सोडून उरिल्ल्या सगळ्या भागांचेर मध्यपृष्ठभागार शरीराचे पोकळेंत जोडिल्ले ल्हान बुराक आसतात. शिरांचे पोकळेंत आशिल्ल्या पड्ड्याक लागून खंडीभवन जाता. भितल्लें आनी भायलें खंडीभवन एकामेकांकडेन जुळपी आसता.

तोंड, तोंडाची पोकळी, ग्रसनी (तोंडाच्या पोकळे फाटल्यान आशिल्लो अन्ननलिकेचो स्नायूमय भाग) ग्रसिका, (ग्रसनीसावन आंतकड्यामेरेनचो आदारनालाचो भाग, पेशणी (अन्न बारीक करपी साधन), आंतकडीं, मलाशय आनी गुद्‌द्वार हे पचनसंस्थेचे मुखेल भाग आसतात. सव्वीसाव्या भागासावन गुद्‌द्वाराआदल्या तेवीस ते पंचविसाव्या भागामेरेन आंत्रवलन (typhlosole) आसता.

गांयडोळ उस्वास कातीवरवीं करता. तेखातीर कात ओलसार आसची पडटा. परिवहन तंत्रांत पृष्ठीय रुधिरवाहिनी, अधर रुधिरवाहिनी आनी अधस्तंत्रिका वाहिनी ह्यो मुखेल वाहिनी तशेंच पार्श्व आनी पार्श्वांत्रीय (आंतकड्याचे कुशीक आशिल्लीं) हृदयां हे मुखेल भाग आसात.

गांयडोळाची लांबाय सुमार १५ सेंमी. आसता. ऑस्ट्रेलियांत मेळपी मेगस्कोलेक्स गांयडोळाची लांबाय ३ मी. आसता. भारतांत सांपडपी गांयडोळाचो रंग काळसार मातयेकोराचो आसता. गांयडोळ जैव (सेंद्रिय पदार्थ) आनी आर्द्रता आशिल्ले मातयेंत रावतात आनी माती खावन जियेतात.

हो प्राणी द्विलिंगी आसा. पूण ताच्या शरीरांत शुक्राणू आनी तांतयां हांचो संयोग दिसना. वृषणाच्यो दोन आनी अंडाशयाची एक जोडी ताच्या शरीरांत आसता. अंड्यांचें फलन 'कोकून' ह्या कोशांत जाता. कोकूनांत एका वेळार एकाच तांतयाचें परिवर्धण (circumnutation) जाता. गांयडोळ पावसाच्या दिसांनी तांतयां घालता आनी कोकून जमनीर उडयता. पिलां जमनींत जल्म घेतात. गांयडोळांत पुनर्जननाची (शरीराचो ना जाल्लो भाग परतो घडोवपाची) तांक आसता.

गांयडोळाची विष्ठा सेंद्रीय सारें म्हूण वापरतात. ईजिप्त देशांतल्या

नायल देगणांत असलें सारें वापरून जमीन पिकाळ केल्या. गोंयांत कांय कडेन नुस्तें गरोवपाखातीर 'हांयस' म्हूण गांयडोळाचो उपेग करतात.

गांयडोळापसून मनशाक 'गांयडोळ फोड' नांवाचें दुयेंस जाता. हें दुयेंस चडकरून हात आनी पांयांक जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**गांवकार, कृष्णा पुतू प्रभुः** (जल्मः २६ ऑक्टोबर १९२९, तामणें, लोलयें- काणकोण).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. १५ ऑगस्ट १९५५ दिसा मडगांव जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें जायत्या सत्याग्रहींक वांटो घेवंक फुडें काडिल्ले. पोर्तुगेज राजवटी आड प्रचार करप, लोकांक राश्ट्रवादी साहित्य वांटप असलीं कामां तो करतालो. २२ फेब्रुवारी १९५६ दिसा पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो आनी आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर दंडभरपाय म्हूण आनीक दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिली. २६ ऑगस्ट १९५९ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली.

लोकांक शिक्षण मेळचें म्हूण ताणें शाळा काडल्यो. १९६२ वर्सा तो काणकोण तालुक्यांतल्या काँग्रेस कमिटीचो वांगडी म्हूण वेंचून आयलो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गांवकार, तुकाराम हरीः** (जल्मः ८ ऑगस्ट १९३४, मयें- दिवचल).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १९४५ वर्सा आत्माराम धाकटू मयेंकार हाच्या फुडारपणाखाल ताणें मयें वाठारांत जाल्ले शेतकामती चळवळींत वांटो घेतिल्लो. १९४७ वर्सा मेरेन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' आनी १९४७ ते १९६१ मेरेन 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आसलो. भूंयगत चळवळीक तेंको दिता, देखून ३ जून १९४८ दिसा पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो आनी दिवचलच्या पोलीस ठाण्यांत दवरलो. चार दिसां उपरांत तो थंयच्यान पळून गेलो आनी भारताचे शिमेर पावलो. ताचे गैरहाजेरींत प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत (Territorial Military Tribunal) ताका चोवीस वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. उपरांत 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेन वजरें हांगा घडोवन हाडिल्लें सराव शिक्षण ताणें घेतलें आनी तो दल संघटनेच्या कमांडो फोर्सांत गेलो. १९५४ वर्सा दादरा आनी नगर हवेलीचे सुटके चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो.

नगर हवेली सुटके उपरांत १९५५ वर्सा तो गोंयांत आयलो. १९५५ वर्सा वजरें वाठारांतली दल संघटनेची शाखा ताचे देखरेखीखाल आशिल्ली. १९५५ ते १९६१ मेरेन दिवचल, तिसवाडी आनी सत्तरी तालुक्यांत जाल्ल्या सशस्त्र घुरयांनी ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांक सारमानस वाठारांत घेवन वचपी बसीचेर ताणें हल्लो केल्लो. १९५७ वर्सा मावळींगे वाठारांत गस्त घालूंक आयिल्ले सरकारी जिपीचेर ताणें घुरी घाली. सुटके झुजारी प्रभाकर सिनारी हाच्या मार्गदर्शनाखाल ताणें शिरगांव खणीचेर हल्लो केल्लो. विश्वनाथ लवंदे हाच्या फुडारपणाखाल बेती पोलीस ठाण्याचेर केल्ल्या हल्ल्यात ताणें वांटो घेतिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन आनी दादरा आनी नगर हवेलीच्या सरकारान मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गांवकार, परशुराम गोपाळ फळः** (जल्मः १ ऑगस्ट १९३३, पैंगीण-काणकोण).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें माध्यमिक शिक्षण मराठी आनी इंग्लीशींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. २६ जानेवारी १९५५ दिसा आपल्या वांगड्यांसयत ताणें पैंगीण ते भाटपाळ वाठारांत सादोळशे रस्त्यांत घोशणा दित आनी हातांत तिरंगी बावटो घेवन मोर्चा काडलो. भाटपाळ वाठारांत ताका पोर्तुगेज पोलिसांनी धरलो आनी पोलिसांचो हुकूम मानलो ना म्हूण बरोच मार घालो. उपरांत ताका धा वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. २१ ऑगस्ट १९५९ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गांवकार, वासू जयदेवः** (जल्मः २ मार्च १९१९, दिवचल).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १९४६ वर्सा सावन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आसलो. लोकांक राजकी पत्रकां वांटप, राश्ट्रीय फुडाऱ्यांच्यो खबरो तांकां सांगप असलीं कामां तो करतालो. १९५४ वर्सा ताका पोर्तुगेज पोलिसांनी धरलो आनी अडेज वर्सां बंदखणींत दवरलो. तेभायर धा वर्सां खातीर ताचे नागरी हक्क काडून घेतले. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गांवकार, शाणू शाबा नायकः** (जल्मः १७ ऑक्टोबर १९१३, देळें-काणकोण).

गोंयचो सुटके झुजारी. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो भूंयगत दावुरपी आसलो. अर्दफोंड वाठारांतल्या पुलाचेर स्फोट घडोवन हाडपांत आनी सांगें वाठारांतल्या सालजिणी वाठारांत पोर्तुगेज पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. चांदर वाठारांत आशिल्ल्या सरकारी गुदावांचेर ताणें हल्लो केल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गांवकार, सदानंद गणबा नायकः** (जल्मः १५ सप्टेंबर १९२६, कुलवाडो-कुंकळ्ळी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तशेंच लिसेवाचें शिकप तिसरें वर्स मेरेन घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. गोंय सुटके चळवळीच्या काळांत तो भूंयगत राजकी कार्यांनी वांटो घेतालो. १२ फेब्रुवारी १९५६ दिसा पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो आनी मडगांव तशेंच पणजेच्या पोलीस ठाण्यांत सात म्हयने दवरलो. प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार (Territorial Military Tribunal) चवकशी केल्या उपरांत ताका तीन वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त दिली आनी वीस वर्सांखातीर ताचे राजकी हक्क काडून घेतले. तीन वर्सां आनी सात म्हयने बंदखणीची ख्यास्त भोगतकच ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गाजरः** (मराठी- गाजर; कन्नड- गज्जरी; संस्कृत-शिखामूल, शिखाकंद, गृंजन; इंग्लीश- कॅरट; लॅटीन-डॉकस कॅरोटा; कूळ- अंबेलीफेरी).

गाजर ही मूळची अस्तंत आशिया, खास करून अफगाणिस्तानांतली वनस्पत जावन आसा. ह्या फळाच्यो रानवट जाती दक्षिण अस्तंत आशिया, दक्षिण युरोप आनी उत्तर अमेरिकेंत मेळटात. ग्रीक आनी रोमन लोकांकूय हे वनस्पतीविशीं पयलीं सावन म्हायती आसली.

गाजराचें शास्त्रीय नांव दावकस कारोटा लिनीयस (Davcus Carota Linneaus) अशें आसा.

ही द्विदल (dicotyledonous) वनस्पत आसून ताचें मुखेल मूळ स्वरूपांतरीत जावन अन्न तयार करता. रानवटी गाजर वखदी आसून ताचो जिवीतकाळ एका वर्साचोच आसता.

गाजराचें मुखेल मूळ गोड आसता. ताचो रंग धवो, हळडुवो, केसरी, तांबडो आनी जांबळो आसता. मुखेल मुळाक ल्हान मूळाचे चार उबे बांद

आसतात. जर हीं मुळां दुसऱ्या वर्साय तशींच वाडयलीं तर तीं घट जातात. शिंयाच्या दिसांनी तांचेर थंड हवामानाचो परिणाम जाता. अशे तरेन ह्या मुळांक कठीणपण येता. हें आदिकांड घट आसता. हे वनस्पतींत आशिल्लो अन्नाचो सांठो पानां, फळां आनी फुलां वापरतात. गाजराचीं पानां तीन भागांनी वांटिल्लीं आसतात. ह्या पानांक बारीक कोंबरी फुटिल्ली आसता. पयल्या वर्सा लांब देंठ आनी एकमेकांचेर पातळिल्लीं पानां वांटकुळो गुच्छ (Rosett) तयार करतात.

गाजराचें फूल पांच पाकळ्यांचें आसता. हें फूल खूब विंगड विंगड गुच्छांत तयार जाता. हे गुच्छ सवण्याच्या घोंटेरावरी दिसता.

गाजराचें फळ (बियां भरिल्ली चुडी) केंसाळ आनी ल्हान आसता. हें फळ विभेदनशील आसून विभाजक रेशेचेर फुटना. पूण ह्या फळाचे दोन सम अर्दभाग करूं येतात

गाजराचे दोन प्रकार आसात: १. धवें बेल्जियन आनी हळडुवें बेल्जियन गाजर, जें गोरवाचें खास खाण जावन आसा. २. तांबडें गाजर: हें गाजर मनीस खावपाखातीर वापरता.

अ) युरोपियन आनी समशीतोष्ण कटीबंधांत जावपी गाजर, पातळ गर्भ आशिल्लें, सपाट आंगाचें आनी ल्हान केंस आशिल्लें आसता.

ब) आशियाई वा देशी गाजर व्हड आकाराचें केंसाळ आंगाचें, काळें आनी गोड आसता.

युरोपांत नलिकाकार मुळां आशिल्लीं नेनटीस आनी ॲम्स्टरडॅम जातीचीं गाजरां तशेंच शंखाकृती मुळां आशिल्लीं चटने जातीचीं गाजरां मेळटात. ह्या गाजरांचें पीक बेगीन तयार जाता. ऑटमन किंग नांवाचें गाजर पुराय जावपाक चड काळ लागता.

युरोपियन आनी देशी गाजराच्या संकरांतल्यान खास भारतीय पध्दतीचें 'पुसा केसर' हें गाजर तयार करतात.

**लागवड:** सुमार अडेज ते पांच किग्रॅ. बीं दर हेक्टराखातीर वापरतात. हें बीं पेरणी आनी ओंपणी पध्दतीन रोयतात. सुमार ७०% बियांचें अंकुरीभवन (germination) जाता.

सुर्वेक १.२×१.२ मी. लांबायेचे वाफे तयार करतात. सुमार २५ टन शेण-गोबोर सारें (compost), ७५ किग्रॅ. नायट्रोजन,, ६० किग्रॅ. फॉस्फोरस, ६० किग्रॅ. पॉटॅश दर हेक्टर जमनीखातीर वापरतात. दरेक बिये मजगतीं ५ ते ८ सेंमी. इतलें अंतर दवरतात. दोन ते चार दिसांत एकफावट वाफ्याक उदक दितात.

१६° से. ते २०° से. उश्णतायेंत गाजराची पिकावळ बरे तरेन जाता. वयल्या कारणाक लागून गाजराचें पीक शिंयाळ्यांत चेवप फायद्याचें थारता. युरोपियन पध्दतीच्या गाजरांची जात २८° से. परस चड तापमान आसल्यार फाव त्या प्रमाणांत वाडना. ह्या गाजराच्या मुळाक तीख वास मारता. रेंवट आनी जैव माती (organic soil) आसल्यार गाजराचीं मुळां बरे तरेन वाडटात.

गाजराचें चडांत चड उत्पादन करपी देश अशे: चीन, रशिया, अमेरिका, पोलंड, जपान.

**उपेग:** गाजराच्यो बियो मूत्रपिंडाचे विकार, गर्भाशयाच्यो वेदना हांचेर गुणकारक जावन आसात. सालाद आनी हेर जेवणाखाणाच्या पदार्थांत गाजर वापरतात. गाजराच्यो बारीक फोडी करून तांचो हालवोय करतात. बाजारांत ताजीं, सुकयल्लीं, गोठ्यल्लीं तशेंच खास प्रक्रियेवरवीं डब्यांत बंद केल्लीं गाजरां मेळटात. गाजरासावन काडिल्लो रोस सरबत करपाक वापरतात. युरोपांत गाजराचो काडो कामणीचेर दितात. गाजरांत अ, ब, आनी क हीं जीवनसत्त्वां, साकर आनी लोखण हीं आसता. गाजर तरने वा उकडून खातात. जनावरांचे खावडीखातीर मुळां आनी पालो हांचो उपेग जाता.

**रोग आनी उपाय:** 'ओरगानोमरकुरीयलस' नांवाचे प्रक्रियेन गाजराच्या बियांचेर उपचार करून त्या झाडाचेर जावपी 'जीवाणूंचे खवळे' (Bacterial Scab) नांवाचो रोग आळाबंदा हाडूं येता. तांब्याच्या चितोनाशकाचो फवारो (Copper fungicide spray) मारून गाजराचीं पानां लाशिल्ल्यावरी जावपी रोग आळाबंदा हाडटात. गाजराचेर जावपी चितो (powdery mildew) जड गंधकाचो फवारो मारून ना करूं येता. सूत्रकृमींक (Nematodes) लागून जावपी गाठ वा ग्रंथी तशेंच आखुडिल्लीं मुळां आनी धुंवरायल्ली माती (fumigating soil) मिथिल ब्रोमाइड वा इथिलीन डायब्रोमाइट हांचे भरसणेन आळाबंदा हाडूं येता. गाजराक किडे (weevil grubs) लागतात. हे किडे मुळांच्या आदारान जगतात. हाका लागून झाडां सुकतात. हे किडे मालाथायोन वा इंडोसल्फनच्या फवाऱ्यान नश्ट करतात.

- मिंगेल ब्रागांझ

## गाज्दुसेक, डी. कार्लटन:

(जल्म: ९ सप्टेंबर १९२३, यॉंकर्स-न्यूयॉर्क).

एक नामनेचो अमेरिकन शास्त्रज्ञ. ताणें १९४३ त मिनेसोटा हांगाच्या रॉचेस्टर विद्यापीठाकडल्यान विज्ञानाची पदवी मेळयली. १९४६ त हार्वर्ड विद्यापीठाच्या वैजकी विद्यालयांतसून एम्.डी. पदवी मेळयली. ते उपरांत मंडळान ताची ल्हान भुरग्यांचो वैज (Paediatrician) म्हूण शिफारस केली. कॅलिफॉर्निया तंत्रशास्त्र संस्थेंत १९४८ त ताणें संशोधक म्हूण प्रवेश मेळयलो आनी विशाणुशास्त्राचो अभ्यास करपाक सुरवात केली. विशाणुशास्त्रांत संशोधन करून ताणें 'मंद-विशाणू' (slow-virus) ह्या जंतूंक लागून 'कुरू' (kuru) हो भयांकृत रोग जाता अशें सोदून काडलें. 'कुरू' हो रोग न्यू गिनींतल्या नरभक्षक कुळांतल्या कांय बायलांक जाता. जीं बायलां 'कुरू' रोग जाल्ल्या आपल्या हेर सोयऱ्या बायलांचे मेंदू भक्षितात, तांकां हो रोग जाता. मंद-विशाणूंक लागून जावपी हो रोग फकत नरभक्षक बायलांकूच जाता, दादल्यांक जायना. सांसर्गिक रोगांची उत्पत्ती आनी प्रसार हांचेखातीर नवे यंत्रणेचे सोद लायिल्ल्यान १९७६ त गाज्दुसेक हाका शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी वियशाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार अमेरिकन शास्त्रज्ञ बी. एस्. ब्लॅंबर्ग हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

## गाझियाबाद:

उत्तर प्रदेश राज्यांतल्या मीरत जिल्ह्यांतलें म्हत्वाचें वेपारी केंद्र. लोकसंख्या: २,९२,००० (१९८१). हें शार दिल्लीसावन सुमार २१ किमी. अंतराचेर उत्तर ईशान्येक आसा. दक्षिणेचो राजा आसफशाह हाचो पूत वजीर गाझिउद्दीन हाणें ह्या शाराची थापणूक केली आनी ताका गाझिउद्दीन नगर अशें नांव दिलें. काळांतरान ताका गाझियाबाद म्हणूंक लागले. १८५७ त जाल्ल्या पयल्या भारतीय स्वातंत्र्य संग्रामांत हें नगर देशभक्तांचें मुखेल थळ आशिल्लें.

कलकत्ता-लाहोर हो राश्ट्रीय महानार्ग गाझियाबाद शारांतल्यान वता. तेचपरी दिल्लीसावन कलकत्ता आनी मुरादाबादकडेन वचपी रेल्वेमार्गाचे फांटे ह्याच शारांतल्यान वतात. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक गाझियाबाद शारांत रेल्वेमार्गाची खूब वाड जाली. रेल्वेमार्गाची ही सुविधा पळोवन शेतकी मालाची हांगा व्हड बाजारपेठ जाल्या.

दिल्ली नगरच्या लागसार आशिल्ल्यान गाझियाबाद शाराची उदरगत जायत आसा. हांगा गंव, बाजरी, चामड्याच्यो वस्तू, धातुकाम आदींच्यो व्हड बाजारपेठो आसात. शेतकी उद्देग, लोखण, तिख्या वस्तू आदींचे कारखानेय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## गाडगे म्हाराज:

(जल्म: २३ फेब्रुवारी १८७६, शेणगांव-विदर्भ-अमरावती; मरण: २० डिसेंबर १९५६, अमरावती).

आर्विल्लो मराठी संत आनी समाजसुदारक. ताचो जल्म एका मडवळ समाजांत जालो. बापायचें नांव झिंगराजी आनी आवयचें नांव सखुबाई. आडनांव- जाणोरकर. भुरगेपणांतलें मूळ नांव- डेबूजी. १८८४ वर्सा बापूय भायर पडटकच, आवय सखूबाई ताका घेवन कुळारा गेली. डेबूजी थंय गोरवां राखपाचें काम करतालो. गोरवांक राखतना तो भजनां गायतालो. ताणें भुरग्यांचीं भजनी मंडळां स्थापन केल्लीं. मामाक

शेतकामांत तो हातभार लायतालो. मामा भायर पडटकच ताणें आजोळची जमीन भाटकाराच्या हातसून सोडयली.



१९१२ वर्सा ताचें कुंताबाईकडेन लग्न जालें. पूण संवसारांत ताचें मन रमलेंना. फुडें कांय वर्सांनी घर सोडून ती र्थ या त्रा करीत तो भोंवड्यो क र पा क लागलो. एकफावट ऋणमोचन जात्रेवेळार आवयची आनी ताची भेट जाली. आवयन घरा यो म्हूण ताका खूब आग्रो केलो. पूण त्या मोहाक तो बळी पडलोना. फुडल्या सगळ्या जिवितांत ताणें संवसारांत केन्नाच लक्ष घालें ना. समाजांतलें उपाट अज्ञान, अनिश्ट चालीरिती आनी अंधश्रध्दा पळोवन ताणें लोकसवेचें आनी लोकशिक्षणाचें निःस्वार्थी व्रत हातांत घेतलें. आंगार पिंजकी 'गोधडी' आनी हातांत गाडगो असो ताचो भेस आशिल्ल्यान लोक ताका 'गोधडे म्हाराज' वा 'गाडगे म्हाराज' म्हूण वळखूंक लागले. रानांवनांत, गांवागांवांत भोंवन ताणें आत्मसाधना केली.

ताची वृत्ती धर्मीक, सात्त्विक, कश्टाळू आनी परोपकारी आशिल्ली. समाजसुदारणेखातीर आनी लोकशिक्षणाखातीर ताणें कीर्तनाच्या माध्यमाचो प्रभावीपणान वापर केलो. एकेकदां ताचीं कीर्तनां प्रश्नोत्तराच्या रुपांत जातालीं. तो निरक्षर आसलो, तरी लेगीत ताची भास म्हाोंवाळ, रोसाळ आनी सामान्य लोकांच्या काळजाक तेंकपी अशी आशिल्ली. महाराष्ट्रावांगडाच गुजरात, कर्नाटक आनी आंध्र प्रदेशाच्या कांय वाठारांनी ताणें गांवानगांव कीर्तनां करून लोकजागृताय केली. ताचो नैतिक उपदेश सामको सरळ आनी सादो आशिल्लो: 'चोरी करची न्हय, रीण काडून सण करचो न्हय, सोरो पियेवचो न्हय, देवाफुडें जनावरांचो बळी दिवचो न्हय' अशे तरेचो उपदेश गाडगे म्हाराज आपल्या कीर्तनांतल्यान मार्मिक उदाहरणां दिवन पटयतालो. पारंपारिक, आध्यात्मिक विशयांवांगडाच वेव्हारीक आनी नैतिक विशयांचो उपेग गाडगे म्हाराज आपल्या कीर्तनांतल्यान लोकजागृतायेखातीर करतालो. निवळसाण, प्रामाणिकपणा आनी भूतदया हांचेर ताचें चड लक्ष आसतालें. तीर्थयात्रेच्या थळांनी तो वतालो. पूण देवाचें दर्शन घे नासतना देवळाच्या भायर रावन भक्तांची सेवा करतालो आनी थंयचो वाठार आपल्या हातान साफ करतालो. खावपा-पिवपाविशीं तो सामको सादो आशिल्लो. गिरेस्त भक्तांनी दिल्लें बरें अन्न तो भिकाऱ्यांक दितालो आनी आपूण मात गरीबांच्या हातची चटणी-भाकरी मागून खातालो.

ल्हानपणासावन तो जातीभेद मानीनासलो. देहू, पुणे, पंढरपूर, नासिक, त्र्यंबकेश्वर, आळंदी हांगा भोंवडेकारांचे खूब हाल जाताले म्हूण ताणें तांचेखातीर थंय धर्मशाळा, अगरसाळा बांदल्यो. विदर्भांत ऋणमोचन हांगा ताणें लक्ष्मीनारायणाचें देवूळ बांदलें आनी न्हंयचे देगेक घाट बांदलो. खूब सुवातींचेर ताणें गोरक्षण संस्था सुरू केल्यो.

ताच्या सगळ्या संस्थांचो कारभार विश्वस्त मंडळां पळेतात. अनाथ आनी अपंगांखातीर ताणें खूब वावर केला. समाजसेवा करपी संस्थांक ताणें उदार हातान देणग्यो दिल्यो. कितल्याशाच जाग्यांनी देवाधर्माच्या नांवार चालू आशिल्ली पशुहत्या ताणें बंद केली. अध्यात्माच्या जंजाळांत वचनासतना संवसारांतूच रावन ईश्वरभक्ती करूं येता, अशी सादी आनी सरळ शिकवण ताणें समाजाक दिली.

'संत तुकाराम म्हाराज म्हजो गुरु आनी म्हजो कोणूच शिष्य ना', अशें तो म्हणटालें. ताचे सांगणेप्रमाण ताची गादी वा मठ खंयच स्थापन जालो ना. समाजांत शिक्षणाचो प्रसार करून कितल्याशाच शिक्षणसंस्थांक ताणें मदत केली. शिक्षणाबगर उपाय ना अशें तो सदांच सांगतालो. लोकांची ताचेर अनन्य श्रध्दा आशिल्ली. ताका लागून लोकांनी ताका खूब पयसो दिलो. तो सगळो पयसो ताणें लोकहिताच्या कार्याक वापरलो. ताणें महाराष्ट्रांत केल्लो लोकजागृतायेचो आनी लोकसेवेचो वावर भोव मोलादीक जावन आसा. ताची समाधी अमरावती हांगा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**गाढव:** वर्ग- स्तनिवर्ग (Mammalia); गण- पॅरीसोडॅक्टिला; कूळ- इक्विदे; जाती- इक्वस हेमोनस; प्रजाती- इसीनस.

गाढवाची खांद्यामेरेनची उंचाय ११५ सेंमी. ते १२५ सेंमी. मेरेन आसता. पुडीकोराचो आनी करडो रंग आशिल्ली ताची कात तोंडाचेर, पोटाचेर आनी फुडल्या भागाचेर पातळ आसता. केंसाळ आयाळ ताठ आनी आखूड आसता. शेंपडेच्या तोंकार लांब केंसाचो गोंडो आसता. कान लांब आसतात. पुराय वाड जाल्ल्या गाढवाचें वजन १५० ते २०० किग्रॅ. आसता.



गाढवाची मूळ सुवात आफ्रिका जावन आसा. इ. स. च्या ३००० वर्साआदीं सुमेरियनांनी जंगली गाढवां पोसपाक सुरवात केली. आशिया खंडांत पोसतात तीं गाढवां, ईजिप्त देशासावन हाडिल्लीं. युरोप खंडांत आशिल्लीं गाढवां मात ईजिप्त देशासावन व्हरनासतना आशिया खंडांतल्यान व्हेल्लीं.

गाढव हो प्राणी संवसारभर दिश्टी पडटा. पूण वाळवंट, दोंगराळ वाठार आनी मैदानी प्रदेशांत गाढवांचे कळप व्हड प्रमाणांत दिसून येतात. भारताच्या चडशा राज्यांनी गाढवाची महरट्टा (Mahratta) जात दिसता. भारतांत पोशिल्ल्या गाढवांची सगळ्यांत चड संख्या राजस्थानांत आसा. गोंयांतूय कांयकडेन गाढवां दिसून येतात.

गाढवाच्यो विंगड विंगड रंगाच्यो वेगवेगळ्यो जाती दिसून येतात. खास करून काळसार आनी धवसार रंगाच्यो जाती तातूंत आस्पावतात. आशियांतल्या रानवटी गाढवाचें शास्त्रीय नांव 'ईक्वस हेमिओनस' अशें आसा. डार्विनान सिरिया देशांत चार जातींच्या गाढवांचे प्रकार दिश्टी पडटात, अशें बरयलां. अरब आनी दमसीन जातीचें गाढव मध्यपूर्व आनी बगदाद वाठारांत दिसता. फ्रांसांत 'पोयतॉम' (Poitom) जातीचें गाढव मेळटा.

गाढवीण तीन ते चार वर्सांचेर वयांत येता. गिमांत वा शिंयाळ्यांत गाढव माजाक येता. गाढवीण इकरा म्हयन्यांनी वियेता. दोन वर्सांत फकत एक फावट ती वियेता.

गाढव आनी घोडी हांच्या संबंदांतल्यान जी संतत जल्मता तिका 'खेचर' (Mule) अशें म्हण्टात. गाढवीण आनी घोडो हांच्या संबंदातल्यान जी संतत जल्मता तिका 'हिनी' (Hinney) अशें म्हण्टात. खेचराभितर गाढवाचे चडशे गुणधर्म दिसतात तर हिनीभितर घोड्याचे गुणधर्म आसतात. दोनूय जनावरां वांझ आसून गाढवापरस वेगळीं आसतात.

वनस्पत आनी तण हें गाढवाचें मुखेल अन्न. जेन्ना कांयच मेळना तेन्ना तो झाडांचो पालो आनी कोंबऱ्यो खावन भूक भागयता. गाढव सुमार २५-४६ वर्सां जियेता.

रोमन आनी ग्रीक काळासावन आंगान धडधाकट आशिल्ल्या गाढवाचो वापर वजीं व्हरपाखातीर करतात. गाढवां शेत कसपाखातीर, चक्रां घुंवडावपाखातीर आनी हेर तरेच्या कामांखातीरूय वापरतात. गाढविणीचें दूद पुश्टीक आसून तातूंत साकर चड आसता आनी लोणयाचें प्रमाण कमी आसता. टी. बी. जाल्ल्या वायटकाराक गाढविणीचें दूद दितात. विंचवाचें वीख देंवपाखातीर ह्या दुदाचो उपेग जाता. गाढविणीच्या दुदाचो अन्नापरस वखद म्हूण चड वापर जाता.

घोड्यांमदीं दिसून येवपी 'टिटेनस' (Tetanus) हो रोग गाढवांमदींय दिसून येता.

- डॉ. के. आर. शास्त्री

**गाबाँ:** आफ्रिका खंडाच्या अस्तंत दर्यादिगेवयलें एक प्रजासत्ताक राश्ट्र. क्षेत्रफळ: २,६७,६७५ चौ. किमी. लोकसंख्या: ११,८७,००० (१९८६). विस्तार: २° उत्तर ते ३° दक्षिण आनी ९° उदेंत ते १४° उदेंत. ह्या देशाचे उत्तरेवटेन विषुववृत्तीय गिनी आनी कॅमेरुन, उदेंतेक आनी दक्षिणेक काँगो आनी अस्तंतेक ॲटलांटिक म्हासागर आसा. दर्यादेग सुमार ८०० किमी. आसा. लिब्रव्हील ही राजधानी.




**भूंयवर्णन, हवामान, वनस्पत आनी मोनजात:** दर्यादिगेवटेनचो मळांचो वाठार दक्षिणेवटेन ३० किमी. सावन उत्तरेक २०० किमी. मेरेन रुंद जायत वता. ईबूंजी हें हांगाचें सगळ्यांत ऊंच (१,५७४ मी.) दोंगरातेमक जाल्यार ओगावे ही सुमार ८०० किमी. लांबायेची मुखेल न्हंय. हांगाचें हवामान उश्ण आनी दमट आसता. तापमान सुमार २६° से. आसता. वर्सुकी पावस सुमार २५० ते ३७५ सेंमी. इतलो पडटा. सदांच पाचवींचार आसपी पावसाचीं रानां हांगा आसात. हांगा ३,००० परस चड जातींच्या रुखांची नोंद जाल्या. विंगड विंगड प्राण्यांमदीं हत्ती, हिप्पो, रानरेडे, शिंगाडे, हरणां आनी माकडां हांचो आस्पाव जाता. गोरिला हें हांगाचें खाशेलेपण जावन आसा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था:** ह्या देशांत अश्मयुगांतले कांय इतिहासीक अवशेश सांपडल्यात. ह्या देशाचो सोद सगळ्यांत पयलीं १४७० त पोर्तुगेजांनी लायलो. तांकां हो वाठार तोपयेसकट एखाद्रे हात आशिल्ल्या कोटावरी दिसलो आनी ताचे वयल्यान ताका 'गाबाँ' हें नांव पडलें. उपरांत ह्या वाठाराचो उपेग गुलामांच्या वेपाराखातीर जावंक लागलो. डच, ब्रिटीश आनी फ्रेंच लोकूय हांगा पावले. १८३९ सावन फ्रेंच लोकांनी ह्या वाठाराचेर आपलो शेक गाजोवंक सुरवात केली. तांणी हो वाठार आपल्या काँगो वसाहतीक जोडलो; पूण १९१० त ह्या देशांक स्वतंत्र फ्रेंच वसाहतीचो दर्जो मेळ्ळो. १९६० त ह्या देशाक पुराय स्वतंत्रताय मेळ्ळी आनी लीआ एम्बा हो पयलो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९६४ त ताचे सुवातेर आल्बर्ट बाँगो आयलो. १९६८ सावन हांगा एक पक्षीय सरकार चलूंक लागलें. १९७३ त वेंचून येवन बाँगोन इस्लाम धर्म आपणायलो आनी आपलें नांव ओमार अशें बदल्लें. १९७९ त आनी १९८६ त जाल्ल्या वेंचणुकांतल्यानूय तोच हांगाचो राश्ट्राध्यक्ष म्हूण उरलो.

**अर्थीक स्थिती:** ह्या देशांत सैमीक संपत्ती भरपूर आशिल्ल्यान वेपारांत निर्यातीचें प्रमाण आयातीपरस चड आसता. कांय वर्सांपयलीं गाबाँची अर्थवेवस्था चडशी थंयचे रानसंपत्तीचेरुच आदारून आशिल्ली; पूण उपरांत खनिजांय व्हड प्रमाणांत मेळूंक लागलीं. तेल, मँगनीज, लोखण, भांगर, युरेनियम ह्या सारकीं खनिजां हांगा बऱ्याच प्रमाणांत मेळटात. काफी, कोको, तांदूळ हीं हांगाचीं मुखेल पिकां आसात. न्हंयच्या देगांचेर आनी दर्यादेगेर नुस्तेमारीचो धंदो चलता. हांगा उद्देगधंदे व्हडलेशे नात. सी. एफ्. ए. फ्रँक हें हांगाचें अधिकृत चलन. चडशे आयात निर्यात वेव्हार फ्रांस आनी अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांवांगडा जातात.

**लोक आनी समाजजीण:** वंशीक नदरेन हांगाचे ३४.५% फांग, १४.५% एशिरा आनी बऱ्याच व्हड प्रमाणांत आफ्रिकेंतल्या हेर जमातींचे आसात. धर्मीक नदरेन ९५% परस चड किरिस्तांव, जातूंतले रोमन कॅथलिक ६०% वयर आसात. उरिल्ले हेर धर्मांचे आनी थळाव्या आफ्रिकन धर्माचे आसात. हांगाची अधिकृत भाशा फ्रेंच. पूण बांटु जातीच्यो बऱ्योच लोकभाशा प्रचलित आसात. राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण १२% आसा. फ्रान्सव्हील आनी पोर्त जांतील हीं हांगाचीं हेर मुखेल शारां.

- कों. वि. सं. मं.

**गाब्रिएला, मिस्त्राल:** (जल्म: ७ एप्रिल १८८९, विकूना-चिली; मरण: ११ जानेवारी १९५७, हॅम्पस्टेड-न्यूयॉर्क).

चिलींतल्या काव्याच्या मळार आधुनिकीकरणाची चळवळ सुरू करपी एक नामनेची कवयित्री. ती स्पॅनिश, बास्क आनी दक्षिण अमेरिकन इंडियन वंशाची आशिल्ली. तिचें भुरगेपण उत्तर चिलींतल्या एका ल्हानशा गांवांत गेलें आनी पिरायेच्या १५ व्या वर्सा ती शाळेंत शिकोवंक लागली. उपरांत ती कॉलेज प्राध्यापिका म्हूण काम करूंक लागली.

देशाची राजकी प्रतिनिधी ह्या नात्यान तिणें माद्रीद, लिस्बन, जेनोआ आनी नीस ह्या शारांनी वावर केलो. १९१४ त तिच्या Sonnets of Death ह्या कवितांझेल्याक चिलींत इनाम मेळ्ळ्या उपरांत कवयित्री म्हूण तिची नामना सगळ्याक पातळ्ळी. गाब्रिएला मिस्त्राल हें तिचें मूळ नांव न्हय. तिचें मूळ नांव गॉदॉय आल्कायागा ल्युसिला. पूण सुर्वेक सावन तिणें गाब्रिएला मिस्त्राल ह्या नांवानच बरोवंक सुरवात केली. हें नांव तिणें तिचे दोन आवडीचे कवी, इटलींतलो गाब्रिएल दी आनुन्झिओ आनी फ्रेंच फ्रेदरीक मिस्त्राल ह्या नांवावयल्यान घेतिल्लें.

१९२२ त उजवाडाक आयिल्लो तिचो Desolation हो कवितांझेलो बरोच गाजलो. हातूंतली Dolor ही प्रेमभंग जालेउपरांत आत्महत्या करपी तरणाट्याविशींची कविता टीकाकारांनी बरीच तोखेली. Tenderness (१९२४), Tala (१९३८) आनी Wine Press (१९५४) ह्या तिच्या कविताझेल्यांतल्यान तिचो गरीब आनी कश्टकरी समाजांतल्या भुरग्यांविशींचो मोग स्पश्टपणान दिसून येता.

तिणें लीग ऑफ नेशन्स आनी संयुक्त राश्ट्रसंघाखातीर समाजशास्त्रीय आनी सांस्कृतिक समित्यांचेर बरोच वावर केला.

भावनांचे उत्कट चित्रण आनी उत्फर्क्याचें सहज दर्शन घडोवपी तिच्यो कविता पुराय लॅटीन अमेरिकेंत बऱ्याच जाणांनी आदर्श म्हूण आपणायल्यो.

१९४५ त तिका नोबेल इनाम फाव जालें. साहित्यांत नोबेल इनाम मेळोवपी ती पयली बायलमनीस जावन आसा. ती आंकवार आसली.

- कों. वि. सं. मं.

**गाम, व्हाश्कु द:** (जल्मः इ. स. १४६०, सीनिश-आलेन्तेजु -पोर्तुगाल; मरणः २५ डिसेंबर १५२४, कोचीन-भारत).

एक नामनेचो तारवटी आनी भुगोलीक. ताच्या बापायचें नांव इश्तेव्हांव द गामा जाल्यार आवयचें इझाबेल सोद्री अशें आसलें. ताच्या दोन भावांचीं नांवां पाउलु आनी आयरीश तर भयणीचें तेरेझा अशें आसलें. १५०१ वर्सा तो कातारीन द आताईद हिचेकडेन लग्न जालो. ताका स पूत आनी एक धूव जाली. तांचीं नांवांः फ्रांसिश्कु, इश्तेव्हांव, पेद्रु, पाउलु, क्रिश्तोव्हांव, आल्व्हारु आनी इझाबेल. हातूंतलो फ्रांसिश्कु व्हिदीगैराचो दुसरो कोन्दि, इश्तेव्हांव हो गोंयचो गोवेर्नादोर तर आल्व्हारू मलाकाचो कापितांव जालो.



दर्यावेल्या सगळे तरेच्या कामांत व्हाश्कु द गाम कुशळ आसलो. तशेंच ह्या मळार देशाखातीर ताणें केल्लो वावरूय म्हत्वाचो आसलो. १४९२ त पोर्तुगेज राजाच्या आदेशावेल्यान सेतूबल आनी आल्गार्व्हि हांगाचीं कांय फ्रेंच व्हडीं ताणें धरलीं. १४९४-९५ त एके गुपीत दर्याभोंवडेंत केपवटेन वचून तो सोफालाक पाविल्लो. हेखातीर १४९७ त पोर्तुगालच्या राजान ताका दर्यामार्ग सोदून काडपाच्या वावराखातीर फुडारी म्हूण वेंचून काडलो.

१४९७ चे भारत भोंवडेंत ताच्या वांगडा ४ व्हडीं आनी १७० मनीस आसले. 'सां गाब्रियल' ह्या ध्वजव्हड्यांत तो स्वता आसलो. 'सां राफाएल'चें फुडारपण ताचो भाव पाउलु करतालो. निकोलांव कुयेल्यु 'बेरींयु' ह्या व्हड्याचें फुडारपण करतालो. गोन्सालु नूनीश हो चवथ्या म्हाला-व्हड्याचो मुखेली आसलो. व्हाश्कु द गाम लिश्बोआसावन शेनवार ८ जुलय १४९७ दिसा भायर सरलो. २२ नोव्हेंबराक ताणें 'केप ऑफ गुड होप' हांगा मोडण घालें. त्याच म्हयन्यांत मोसलच्या उपसागरांत ताचें म्हाल व्हरपी व्हडें ताच्या आदेशावेल्यान फोडलें. उरिल्ल्या व्हड्यांचो ताफो २ मार्च १४९८ दिसा मोझांबिकाक, ७ एप्रिलाक मोम्बासाक (आतां केनियांत) आनी १३ एप्रिलाक मेलिंदाक (आतां केनियांत) पावलो. अहमद-इब्न-मजीद ह्या गुजरातच्या नावाड्याच्या आदारान मेलिंदासावन मलबारमेरेनचो दर्या व्हाश्कु-द-गाम हुपूंक शकलो. व्हड्याचो हो ताफो कालिकतचे उत्तरेक १३ किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या कप्पूकड हांगा २० मेक पावलो.

कालिकतच्या राजान व्हाश्कु द गाम हाका व्हड येवकार दिलो. पूण थळाव्या मुस्लीम वेपाऱ्यांचे दुस्मानकायेंक लागून तेन्ना इश्टागतीच्यो वा उद्देगाविशींच्यो कबलाती जावंक पावल्यो नात. ऑगस्ट म्हयन्यांत ५ मलबारी मनीस, मसालो आनी हेर म्हाल घेवन तो मलबारसावन भायर सरलो. ऑक्टोबराचे सुर्वेक ताणें भारत सोडलो. ९ सप्टेंबर १४९९ दिसा लिश्बोआंत परत पावलो. पोर्तुगाल देशांत तो आपले ५५ मनीस आनी दोनूच व्हडीं घेवन वचूंक शकलो. हे भोंवडेंतल्यान ताका लुकसाणा परस साठ पटीन फायदोच जालो अशें म्हण्टात.

ताणें भारताची दुसरी भोंवडी १५०२ वर्सा केली. तेन्ना ताका 'हिंद दर्याचो धनी' ही पदवी मेळिल्ली. वाटेर उक्त्या दर्यांत ताणें जायत्या अरबी व्हड्यांचेर घुरी घाली. भारताचे अस्तंत देगेर होनावर, भटकळ आनी कालिकत हांगा बाँब हल्ले केले. कालिकत राजाचो दुस्मान कोचीनचो राजा हाचेकडेन बरेपण दवरून ताणें इश्टागत जोडली. १५०३ वर्सा तो पर्थून लिश्बोआंत पावलो. भारतांतल्यान पोर्तुगालांत येवपी दरेका राजेशायी व्हड्या ताफ्याचेर २०० क्रुझादु मोलाचो वेपार करपाची परवानगी ताका मेळ्ळी. हाका लागून तो पोर्तुगालांतलो सगळ्यांत गिरेस्त मनीस जालो. तो एव्होरा हांगा रावतालो. भारतीय प्रस्नांविशीं राजाक बुद्द दितालो. १५१९ त तो व्हिदीगैराचो कोन्दि जालो. १५२४ त भारताचो व्हिसिरैय म्हूण ताणें सुत्रां हातांत घेतलीं.

- बी. एस्. शास्त्री

संदर्भः 1. Cortecao Armando, The Mystery of Vasco-da-Gama, Coimbra, Junta de Investigocoes do ultramar 1973; 2. Correa Gaspar, The Three Voyages of Vasco-da-Gama, Hakluyt Society, London 1869; 3. Gonsalves Mario & Viana, Vasco-da-Gama, Porto, Editora Educacao Nacional 1937; 4. Teixera de Argao A.C., Vasco-da-Gama e A Vidigueira, Estudo Historico, Lisboa, Impressa Nacional 1898. 5. Velho Alvaro, Roteiro de Primeira Viagem de Vasco-da-Gama 1497-1499.

**गाय:** संघ (phylum)- कणाधारी (Chordata); गण (class)- सस्तन(Mammalia); वर्ग (order)- समखुरी (Artiodactyla); उपवर्ग-रवंथी (ruminantia); कूळ (family)- गोकुल (Bovidae); उपकूळ- बोव्हिनी; प्रजाती (genus)- बॉस; जाती (species)- १. बॉस टॉरस (वशिंडविरयत) २. बॉस इंडीकस (वशिंडधारी).

खूब पूर्विल्ल्या काळासावन मनशाचे जिणेंत गाय ह्या जनावराक म्हत्वाची सुवात प्राप्त जाल्या. युरोप, अमेरिका, आफ्रिका, न्यूझीलंड, आशिया ह्या सगळ्या खंडांनी गाय ही मोनजात दुदाखातीर, मांसाखातीर आनी शेतीवेवसायाखातीर पोसतात.

गायचीं शिंगां चड करून वाटकुळीं वा चेपटीं आसून तांचेवयलो पेरांचो आंकडो पिरायेप्रमाण वाडत आसता. गाय हें रवंथ करपी जनावर आसून सेल्युलोज अन्नघटक आशिल्ली खावड तिका खूब मानवता. तण ही गायची मुखेल खावड. तें तण पचोवपाखातीर गायच्या पोटाची घडण वेगळीच आसता. गायच्या पोटाचे चार भाग आसतातः १. कोठी पोट (रुमेन) २. जाळी पोट (रेटीकुलम) ३. पडदे पोट (ओमेजम) ४. खरें

पोट (आबोमेजम). कोठी पोटांत दोन भाग आसतात. कोठी पोट गिळिल्लें अन्न सांठोवन तें ओलें दवरता. तशेंच बारीक जंतूंपसून क्रिया करून ताची आंबवण करता आनी कांय हालचाली करून अन्न बारीक करून घोळयता. फुडें तें अन्न पोटाच्या तिसऱ्या भागावरवीं चवथ्या भागांत धाडटा. थंयच्यान गाय हें अन्न परत तोंडांत हाडून ताची रवंथ करता.



गायचें दूद खूब रुचीक आनी पुश्टीक आसता. तातूंत प्रथिनां, चरबी, कार्बोहायड्रेट्स, कॅल्शियम, अ, ब, क जीवनसत्त्वां आनी हेर पोशणतत्त्वां आसतात.

गायो-बैल हांचे वशिंडधारी (गोळ आशिल्ली) आनी वशिंडविरयत (गोळविरयत) अशे दोन मुखेल प्रकार आसात. वशिंडधारी गाय भारतीय उपखंडांत निर्माण जाली आनी थंयच्यान पूर्विल्ल्या काळांत खुश्कीच्या मार्गान आफ्रिका खंडामेरेन तिचो प्रसार जालो. वशिंडविरयत गायांचो प्रसार मुखेल करून समशीतोश्ण कटिबंधांत जालो. संवसारांतल्या चडशा वाठारांनी कुडीच्या गुणधर्मांप्रमाण गायांच्यो जायत्यो अभिजाती तयार जाल्यात. ह्या अभिजातींचें वर्गीकरण तांची उत्पादनक्षमता, भुगोलीक सुवात, आनुवंशिक नातें, कुडीची घडण, रंग, प्रचलीत गूण हांचेप्रमाण करतात.

**भायल्या देशांतल्यो गायो (बोस टोरस)** *डेन्मार्कः* रेड डॅनिश, डॅनिश काळी, धवी, शॉर्ट हॉर्न, डॅनिश जर्सी, मिश्र; *फिनलंडः* फिनकॅटल, फिनीश आयर शायर, मिश्र वंश; *नॉर्वेः* नॉर्वेजियन रेड, साउथ अँड वेस्ट लॅंड, कलर साइडेड ट्रॉंडर अँड नॉर्थलॅंड, टेलेमार्क, डोल, माल्सेव्ह, नॉर्वेजियन जर्सी; *स्वीडनः* स्वीडीश तांबडी आनी धवी, स्वीडीश फ्रिजीयन, स्वीडीश पोल्ड, स्वीडीश जर्सी. *ब्रिटन आनी आयर्लंडः* ॲबरडीन ॲंगस, आयर शायर, ब्लू अलबियॉन, नॉर्थ डेव्हन, डेक्स्टर, ब्रिटीश फ्रिजीयन, गेलोवे, बॅल्टेड गेलोवे, ओल्ड ग्लॉस्टशर, ग्वेर्नसी, हरफोर्ड, हायलॅंड, जर्सी, केरी, लिंकन, लॉंग हॉर्न, रेड पोल, शॉर्ट हॉर्न, साउथ डेव्हन, ससेक्स, वेल्श ब्लॅक, व्हाइट पार्क; *नेदरलॅंड्सः* डच फ्रिझियन, ग्रोनींझेन व्हाइट हेडेड, म्यूझ-वाइन-इस्सेल; *जर्मनीः* ब्लॅक आनी व्हाइट लोलॅंड, रेड आनी व्हाइट लोलॅंड, ॲंगेलन, शॉर्ट हॉर्न, जर्सी, जर्मन येलो, जर्मन रेड, रेड डॅनिश, जर्मन सिमेंटाल, जर्मन ब्राउन; *पोलंडः* पोलीश रेड; *बेल्जियमः* सेंट्रल अपलॅंड, रेड अँड व्हाइट कॅंपाइन, रेड अँड व्हायट ईस्ट फ्लेमिश, ब्लॅक अँड व्हाइट हर्व, रेड वेस्ट फ्लेमीश, फ्रिजीयन; *फ्रांसः* नॉर्मंडी, फ्रेंच फ्रिजीयन, ईस्टर्न रेड अँड व्हाइट, चारोलेस, लिमोसिन, सेलर्स, आर्मोरिकन, मेन अन्जाऊ, ब्रिटनी ब्लॅक अँड व्हाइट, गेस्कोनी, फ्लेमीश, पार्थने, ब्राउन स्विस.

भारतांत जर्सी, होल्स्टेन-फ्रिझीयन, रेड डेन, ब्राऊन स्वीस अश्यो भायल्यो जाती आनी हांचेपसून संकरीत केल्ल्यो गायो सांपडटात. भारतीय गायाच्यो जाती (बॉस इंडीकस) अश्योः कांकरेज, केनवारीया, खेरीगढ, माळवी, थारपारकर, बचौर, भंगारी, गवळाऊ, हरियाना, कृष्णा व्हेली, मेवाटी, नागोरी, आंगोल, राठी, डांगी, देवणी, गीर, नेमाडी, सिंधी, साहिवाल, अमृत महाल, हल्लीकर, कांत्रायाम, खिलारी, लोहाणी, पोनवार, सिरी, धानी.

**प्रजननः** गायचें प्रजनन ४ शास्त्रीय पध्दतींनी करतात. *१. आंतर प्रजननः* ही पध्दत नातें आशिल्ल्या जनावरांमदीं आपणायतात. हातूंत अवगुण चड उरतात. २. *बाह्य प्रजननः* वंश एक, कुटुंब वेगळें अशा जनावरांमदीं. ३. *मिश्र प्रजनन (संकर):* दोन वेगळ्या वंशामदीं- भायली जात आनी भारतीय जात. ४. *सुधार पध्दतः* सुधारीत-शुध्द हांचेमदीं.

गाय थारायल्ल्या दिसा आनी वेळार फळता. ताका भार म्हण्टात. दोन भारांमदलो काळ १९ ते २१ दीस आसता. भार १ ते २ दीस उरता. ह्याच दिसांनी गाय फळता आनी गाभणी जाता. गाभण काळ सरासरी २७४ ते २९१ दिसांचो आसता. वियेतकच परत ६० दिसांउपरांत गाय फळूंक शकता.

**रोगः** *होंटयेचो रोगः* ह्या रोगाक खूब तरेचे जंतू कारण आसतात. हो रोग गायेक निकामी करूंक शकता. *गाय वियेतकच जावपी रोगः* कांय क्षारां कमी जावप, तांचें प्रमाण सारकें नासप, कुडींत अशक्तताय आसत जाल्यार हे रोग जातात. *लागणः* गायचें तोंड आनी गेतां लागतात. हो रोग नेटान पसरता. ह्या रोगांत जनावर मरता, पूण कुडीक त्रास जाता. *'बॅक्टेरिया' ह्या जंतूंपसून जावपी रोगः* ॲंथ्रेक्स, घटसर्प, ब्लॅक क्वार्टर, टीटॅनस (धोणकी), बोटुलीझम (अन्न विखबाधा), येंटोरोटोक्सेमिया (विखबाधा), सालमोनेलीझीस, ब्रुसेलोझीस, टी. बी., जोन्स डिसीझ, ॲक्टीनोमायकोझीस, ॲक्टीनोबासीलोझीस, मायकोटीक डरमाटायटीस, कॉंटॅजिअस बोवाइन फ्लोवरोनीमोनिया (पुलमांवांचे रोग), *रिकेटशीया जंतूंपसून जावपी रोगः* टीक बोर्न फीवर. *परोपजीवी प्राण्यांपसून जावपी रोगः* बेबेसीओझीस, पायरोप्लास्मोझीस, आनाप्लास्मोझीस, ट्रीपानोसोमीआझीस, थायलेरीआझीस, टोक्जोप्लास्मोझीस.

हातूंतले कांय रोग वाशीनां करून आळाबंदा हाडटात. तेचप्रमाण ह्या रोगांआड पेनीसीलीन, स्ट्रेप्टोमायसीन, टेट्रासायक्लीन, क्लोरंफेनीकोल, सल्फा गटाचीं वखदां, ॲंटिबायोटिक्स आनी हेर वखदां वापरतात.

- डॉ. ए. व्ही. खांडेपारकर

**सांस्कृतिक संदर्भः** ज्योतिशशास्त्रांत राशिचक्रांतली दुसरी सुवात वृषभ (गोकुळ) राशीची आसा. ईजिप्तांत एपिस देवाची पूजा गायच्या रुपांत करताले. भारतांत सगळ्या धर्मांत गायेक वेगळेंच म्हत्व आसा. भागवत पुराणांत पावस उडोवपी इंद्र देवाचो उल्लेख वृषभ म्हूण करतात. भगवान बुध्दाचो जल्म वृषभ लग्नांत जाल्लो आशिल्ल्यान वृषभाक अशोक स्तंभाचेर सुवात फाव जाल्या. लिंगायत पंथांत, त्या पंथाचो संस्थापक बसव हाका नंदीचोच अवतार मानतात. मोहेंजोदडो हांगाच्या उत्खननांत (इ.स.प. सुमार २७५०-२२५०) सांपडिल्ल्या राजमुद्रांचेर आनी मातयेच्या शिल्पांचेर गायचीं चित्रां आसात.

वेदांत, खास करून ऋग्वेदांत गायचो महिमा वर्णन करपी जायते मंत्र आसात. श्रीकृष्णाच्या गोवर्धनोध्दार कथेंतूय गायचो महिमा आयला. कृष्णाचें 'गोपाळ' हें एक पवित्र नांव म्हूण हिंदू मानतात. संस्कृतांत 'गो' ह्या शब्दाचो अर्थ गाय वा बैल असो जाता. गाय हिंदू लोकांमदीं एकदम पवित्र आसून जायत्या धर्मकृत्यांत तिचो आनी तिच्या गोरसाचो आस्वाद करप, हें हिंदू धर्माचें एक खाशेलेपण आसा. वैदिकांचे यज्ञसंस्थेंत गायेक खाशेलें म्हत्व आशिल्लें. मधुपर्क पुजे वेळार गोवध करपाची पध्दत आशिल्ली, अशें गृह्यसूत्रावयल्यान दिसून येता. फुडें पुराणकाळांत हाचे उरफाटी प्रतिक्रिया जावन गाय मारची न्हय, तिचें मांस खावचें न्हय, अशा विचारांनी मूळ धरलें. गाय आनी गायचें 'पंचगव्य' (गायचें शेण,

मूत, दूद, धंय आनी तूप हें पांच पदार्थ एकठांय भरसून केल्लो जिन्नस) पवित्र मानतात. 'पंचगव्यप्राशन' हो हिंदूंचो एक म्हत्वाचो धर्मीक विधी आसा. आयुर्वेदांत गायच्या मुताचे वखदी गूण वर्णिल्यात. फाटल्या शंबर वर्सांसावन भारतांत गोरक्षणाची चळवळ चालू आसा. कायद्यान पुरायपणान गोवधबंदी करची, अशें कांय विचारवंतांचें मत आसा. गोरवां-पाडव्या दिसा, गोरवांची पूजा करपाची चाल गोंय, कोंकण तशेंच हेर वाठारांनी आसा. कांय धर्मकृत्यांत गायक जेवणाचें पान दिवपाची चाल आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## गायकवाड, सयाजीराव खंडेराव: (जल्मः १७ मार्च १८६३, कवळाणे-नासिक; मरणः ६ फेब्रुवारी १९३९, मुंबय).

आदल्या बडोदे संस्थानाचो पुरोगामी वृत्तीचो कर्तबगार संस्थानिक (राजवटीचो काळः १८८१-१९३९). मूळ नांव- गोपाळराव काशीराव गायकवाड. खंडेराव महाराजाच्या मरणाउपरांत ताची बायल जमनाबाई हिणें ताका बडोदे संस्थानाचे गादयेखातीर पोसको घेतलो (२७ मे १८७५). ताचें नांव सयाजीराव (तिसरो) अशें दवरलें. ताची पयली बायल महाराणी चिमणाबाई हिका ७ मे १८८५ दिसा मरण आयलें. त्याच वर्सा २८ डिसेंबराक ताचें दुसरें लग्न जालें. ताच्या तीन भुरग्यांकूय अकाली मरण आयलें.

संस्थानाचो दिवाण सर टी. माधवराव हाणें सयाजीरावाक राज्यकारभाराचें शिक्षण दिलें. गादयेचीं सत्तासूत्रां हातांत घेतकच (२८ डिसेंबर १८८१) ताणें अर्थीक नदरेन राज्याची स्थिती सुदारची म्हूण उपाय येवजण केली. प्रशासकीय जापसालदारकेची वांटणी हें तत्त्व राज्यकारभारांत लागू करून राज्ययंत्रणेची घडी नीट बसयली. सल्लागार मंडळ नेमून ताणें कल्याणकारी येवजणी चालीक लायल्यो (१८८३). तशेंच न्यायवेवस्थेंत सुदारणा केल्यो आनी ग्रामपंचायतींचें पुनरुज्जीवन केलें (१९०४); सक्तीच्या मुळाव्या शिक्षणाची येवजण सुरू करून (१८९३) थोड्याच काळाभितर ती सबंद राज्यभर लागू केली (१९०६). सुर्वेक संस्थानांत वट्ट १,५०० विद्यार्थी आशिल्ले. फुडल्या १५ वर्सांत विद्यार्थ्यांची संख्या वाडत गेली; १९२१ त संस्थानांत १७,००० विद्यार्थी आशिल्ले. गरीब, गरजेवंत विद्यार्थ्यांक शिष्यवृत्त्यो दिवन तांच्या उच्च शिक्षणाची तजवीज करपाचो मोलादीक वावर सयाजीरावान केलो. विद्यामंदिर संस्थेवरवीं पूर्विल्ल्या संस्कृत ग्रंथांचें संशोधन आनी उजवाडावप करपाखातीर ताणें विद्वानांक प्रोत्साहन दिलें. उद्येगीक कलाशिक्षणाखातीर 'कलाभुवन' ही संस्था स्थापन केली. 'श्रीसयाजी साहित्यमाला' आनी 'श्रीसयाजी बाल ज्ञानमाला' ह्या दोन माळांतल्यान श्रेश्ठ ग्रंथांचे अणकार उजवाडायले. संस्थानांतल्या गांवांगांवांनी वाचनालयां स्थापन केलीं. ल्हान-ल्हान खेड्यांनी पुस्तकां पावचीं म्हूण फिरत्या वाचनालयांचीय वेवस्था केली.

समाजीक मळार ताणें केल्लो वावर म्हत्वाचो आसा. पड्डो पध्दतीचेर बंदी, बालविवाह बंदी, मिश्रविवाह, बायलांचें दायज, कन्याविक्रयबंदी, अस्पृश्यता निवारण, विधवा विवाह ह्यो सुदारणा ताणें प्रत्यक्ष चालीक लागल्यो. लग्नमोडीविशींचो कायदो सबंद भारतांत पयलेचे खेपे ताणें सुरू केलो. हरिजनांखातीर अठरा शाळा काडल्यो (१८८२). डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर हाका शिक्षणाखातीर शिष्यवृत्ती दिली आनी ताची संस्थानांत उच्च पदाचेर नेमणूक केली. सुदारणांच्या प्रत्यक्ष पुरस्काराक लागून ताका 'राश्ट्रीय समाजीक परिशदे'च्या अध्यक्षपदाचो मान मेळ्ळो (१९०४).

बडोदे हें कलापूर्ण सोबित नगर जावपाक कारण म्हळ्यार सयाजीरावान बांदिल्ल्यो सुंदर वास्तू. लक्ष्मीविलास राजवाडो, वस्तुसंग्रहालय, कलावीथी, श्रीसयाजी रुग्णालय, नजरबाग राजवाडो, महाविद्यालयाची इमारत ह्या ताणें बांदिल्ल्या वास्तूंक लागून बडोद्याची सोब वाडल्या.

ताका प्रवासाची खूब आवड आशिल्ली आनी ताणें जगभर प्रवास केल्लो. लंडनाक जाल्ल्या पयल्या दोन गोलमेज परिशदांक तो हाजीर आशिल्लो. लोकमान्य टिळक, अरविंद घोष ह्या म्हान फुडाऱ्यांकडेन ताचो दाट संबंद आशिल्लो. राश्ट्रीय आंदोलनाक ताचें अप्रत्यक्ष फाटबळ आशिल्लें अशें म्हण्टात. ज्ञानवृध्दी, समाजसुदारणा आनी शिस्तबध्द प्रशासन ह्या सगळ्याच मळांचेर ताका यश आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

## गायतोंडे, डॉ. पुंडलीक दत्तात्रय: (जल्मः ३ जुलय १९१३, पाळोळें- काणकोण).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें पणजी शारांतल्या मेडिकल कॉलेजींत वैजकी शिक्षण घेतलें. उपरांत तो फुडलें शिक्षण घेवपाखातीर पोर्तुगालाक गेलो. थंयच्या विद्यापीठाची पदवी घेवन ताणें एक नामनेचो सर्जन म्हूण नांव मेळयलें.



गोंयांत येतकच ताणें म्हापशें शारांत वैजकीचो वेवसाय सुरू केलो. राश्ट्रकार्यांत तशेंच समाजीक वावरांत वांटो घेवपाची प्रेरणा ताका घरचे परंपरेंतल्यानूच मेळ्ळी. रोखडोच तो गोंयचे सुटकेक वावुरतल्या 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' हे संघटनेचो वावुरपी जालो. पोर्तुगालसारक्या भायल्या राश्ट्रांत शिक्षण घेवन आयिल्ल्यान ताचें पोर्तुगेज अधिकाऱ्यांकडेन बरे संबंद आशिल्ले.

१४ फेब्रुवारी १९५४ दिसा पोर्तुगेज अधिकारी न्यायाधीश सेमेदु हाका निरोप दिवपाची एक कार्यावळ पोर्तुगेज अधिकाऱ्यांनी पणजेच्या एका हॉटेलांत आंखिल्ली. थंय भाशण करतना डॉ. कुलासो हाणें 'गोंय हो पोर्तुगालाचोच भाग, इतलेंच न्हय तर तें पोर्तुगालच', अशा अर्थाचें एक वाक्य उच्चारलें. तेन्ना डॉ. गायतोंडेन **'Eu protesto'** (म्हजो विरोध आसा) ह्या उतरांनी आपलो विरोध परगटायलो. ताच्या ह्या विरोधाक लागून १७ फेब्रुवारी १९५४ दिसा ताका अटक केलो आनी पोर्तुगालाक धाडलो.

१९५४ वर्सा सावन ताणें स्वतंत्रतायेचो आनी लोकशायेचो पुरस्कार केलो. सुटके झुजारी पीटर आल्वारीस हाच्या फुडारपणाखाल ॲड. गोपाळ आपा कामत, ॲड. पांडुरंग मुळगांवकार, शंकर सरदेसाय हांचे वांगडा तो वावर करतालो. सावंतवाडी जाल्ले नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचे बसकेंत १८ जून दिसा डॉ. गायतोंडेच्या फुडारपणाखाल अहिंसक रितीन सत्याग्रह करपाचें थारलें. पूण ताचेपयलींच ताका अटक जाली.

पोर्तुगेज सरकाराच्या लिस्बन न्यायालयान ८ जुलय १९५४ दिसा ताका बंदखणींत आशिल्ले दीस धरून तीन म्हयने बंदखण वा उरिल्ल्या दिसांचो दर दिसाक ४० इस्कुदांप्रमाण दंड, १२ वर्सांमेरेन नागरीक हक्कबंदी, पांच वर्सां पॅरोल आनी ह्या काळांत पोर्तुगेज देशाभायर न वचपाची अट, खंयच्याच संस्थांनी सहभागी न जावप आनी तेभायर एक हजार इस्कूद दंड अशी ख्यास्त फर्मायली. हाचो परिणाम म्हूण नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेन पोर्तुगेज सरकाराचो निशेद केलो आनी १७ फेब्रुवारी १९५५ हो दीस 'डॉ. गायतोंडे दीस' म्हूण पाळ्ळो आनी ते निमतान गोंयभर सत्याग्रह केलो.

एप्रिल १९६१ वर्सा मोरोक्को देशांतल्या कासाब्लांका शारांत आफ्रिका

आनी हिंदुस्थान ह्या देशांतल्या पोर्तुगेज वसाहतीखालच्या स्वातंत्र्यवादी संघटनांच्या फुडाऱ्यांची तीन दिसांची एक परिशद भरिल्ली. तातूंत आंगोला, गोंय, मोसांबिक, सांतोमे, प्रिंसिपी, गीने, काबुव्हेर्दी वसाहतींतले प्रतिनिधी हाजीर आशिल्ले. तातूंत नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो अध्यक्ष ह्या नात्यान डॉ. गायतोंडेन वांटो घेतलो.

उपरांत तो अमेरिकेक गेलो. थंय ताणें न्यूयॉर्क टायम्स आनी हेर नेमाळ्यांवरवीं तशेंच आकाशवाणीवेल्यान गोंयचे प्रस्न लोकांमुखार मांडले. तेभायर फुडारी नोर्मन थॉमस हाका तो मेळ्ळो आनी ताचेमुखार ताणें गोंयच्या प्रस्नाची गंभीरताय उक्तायली. 'इंडियन काउन्सिल फॉर आफ्रिका' हे संस्थेन २१ ऑक्टोबर १९६१ दिसा दिल्लीक विज्ञान भवनांत तीन दिसांचो परिसंवाद घडोवन हाडिल्लो. हातूंत आंगोला, मोसांबिका, गीने, टांझानिया, मोरोक्को, झांबिया, केनिया, रोडेशिया आदी वसाहतींच्या प्रतिनिधींवांगडा गोंयचो प्रतिनिधी म्हूण डॉ. गायतोंडेन वांटो घेतिलो. अहिंसक पध्दतीन वा संयुक्त राश्ट्रसंघावरवीं वसाहतीचे प्रस्न सोडोवचे ह्या विचार प्रवाहांक खर विरोध करून ताणें शस्त्रांक शस्त्रान जाप दिवची पडटली, ह्या विचारप्रवाहाक पुश्टी दिली. डॉ. गायतोंडेक ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराखातीर खूब भोवमान फाव जाल्यात. तेचपरी गोंयचो पयलो खासदार जावपाची संद दिवन भारत सरकारान ताचे सेवेची आनी कर्तुत्वाची दखल घेतली.

ताचो राबीतो सद्या लंडन हांगा आसून कर्करोगाचेर ताचें संशोधन चालू आसा. ताणें 'Portuguese Pioneers in India - Spotlight on medicine' हें पुस्तक बरयलां.

- प्रा. कमलाकर म्हाळशी

## गायतोंडे, व्ही. एस्. : (जल्मः १९२४).

नामनेचो गोंयकार चित्रकार. पुरोगामी चित्रकार पंगड- मुंबय, हाचो संस्थापक वांगडी. सर जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट हे संस्थेंतल्यान चित्रकारितेची पदविका घेतकच ताणें थंयच कांय काळ शिक्षक म्हूण वावर केलो.

ताची चित्रकला नितळ आनी सोबीत आसून तातूंतल्यान ताच्या तत्त्वगिन्यानाची गिरेस्तकाय दिसता. ताच्या चित्रांचे विशय विंगड विंगड जावन आसात. एक आगळी खोलाय मेळिल्लीं ताचीं चित्रां, चित्रफळयेर जो आविश्कार उक्तावन दाखयतात, ताचेवेल्यान तो चित्रकारितेच्यो मर्यादा हुंपून गेल्लेवरी दिसता. भारतीय चित्रकलेच्या मळार ताचे चित्रकारितेचें व्हडपण सामान्या भायलें आसा.

मुंबय आनी दिल्ली शारांत ताचीं कितलींशींच स्वतंत्र चित्रकलेचीं प्रदर्शनां जाल्यांत. भारताभायर, भारतीय चित्रकला प्रदर्शन- व्हिला ह्युगेल, ग्रूप एक्झीबिशन, गॅलरी नंबर वन- लंडन, यंग एशियन आर्टीस्ट एक्झीबिशन- टोकियो ह्या चित्रप्रदर्शनांनी ताणें आयजमेरेन वांटो घेतला. भारत आनी भारताभायर जायत्या नामनेच्या संग्रहालयांनी ताणें वावर केला. यंग एशियन आर्टीस्ट एक्झीबिशन टोकियो, हांगा ताका तस्रीप फाव जाली.

- कों. वि. सं. मं.

## गारः

विभागः (Division)- पृष्ठवंशी (vertebrates); वर्गः (class)- सरीसृप (Reptile); गणः (order)- वारानोमोर्फा; कूळ (family)- वारानीदे/मॉनिटरस; जातीः (Genus)- वारानस्; उपजाती- इंडोवानस; प्रजातीः (Species)- वारानस बांगालेसीस. शास्त्रीय नांवः बंगाल मॉनिटर (Bengal Monitor).

पूर्विल्ल्या काळासावन अस्तित्वांत आशिल्लो एक सरपटपी प्राणी. ताची लांबाय सुमार २० सेंमी. ३ मी. मेरेन आसता. वजन २० ग्रॅम ते १३५ किग्रॅ. मेरेन आसूं येता. ताची तकली तोंकार अशीर जायत वता. मान लांब आसता. ताच्या दोळ्यांक पातयो आसनात. दांत घट्ट आनी शेंपडी जड आनी लांब आसता. गाराची वयली कात दाट आनी खरखरीत आसून तिचेर वाटकुळीं खवळां आसतात. सकयली कात गुळगुळीत आनी दाट आसून तिचेर चवकोनी खवळां आसतात. खाडकेकडली कात पातळ आनी मोव आसता. सादारणपणान नर मादयेपरस घटमूट आनी बळीश्ट आसता. गाराचो रंग कुडीचे वयले वटेन पुडीकोराचो आनी पांचवोसार आसता. कुडीचे सकयले वटेनचो रंग धवसार हळडुवो आसता.



गार चडकरून कोणाचेच वाटेक वचना. जीव वाटावपा वेळार मात तें हल्लो करता. ताचीं बोटां, नाखटांसयत लांब आनी घट्ट आशिल्ल्यान कसलेय तरेचे जमनीचेर तें सोंपेपणान चडटा. गार आपले जिबेचो वापर खास करून वास घेवपाखातीर करता. बळीश्ट पांयांचो उपेग नेटान धांवपाखातीर जाता. गारां चडकरून उदकाभोंवतणी वा झाडांचेर रावतात. उक्त्या मळारूय कांय गारां सापडटात.

बंगाल मॉनिटर ही गाराची जात इराण, अफगाणिस्तान, भारत, श्रीलंका, ब्रह्मदेश, मलेशिया आनी जावा ह्या देशांनी सापडटा. हें गार १७५ ते २०० सेंमी. लांब, बारीक, हळडुवसार रंगाचें वा ताचे परस गाड रंगाचें आनी काळे दाग आशिल्लें आसता. तें झाडाचेर चडटा पूण ताका उदक आवडना. तें १० ते २० मी. उंचायेवेल्यान उडी मारपाक शकता. इंडियन मॉनिटर ही जात चडशी उदकाभोंवतणी सांपडटा.

गारांच्यो कांय जाती आनी तांचे वाठार अशे आसातः डेझर्ट मॉनिटर- सहारा ते पाकिस्तान मेरेनच्या रेंवेच्या वाठारांत; नायल मॉनिटर- सहारा ते आफ्रिका; येलो मॉनिटर आनी केप मॉनिटर - आफ्रिका, पाकिस्तान ते बंगाल; टू बेंडेड मॉनिटर- बंगाल ते चीन, श्रीलंका, ऑस्ट्रेलिया (लांबायः ३ मी.); कोमोडी ड्रॅगोन- कोमोडो जुंवी; शिमीटस मॉनिटर- न्यू गिनी; पापुवा मॉनिटर- न्यू गिनी; रफ नेकेड मॉनिटर- ब्रह्मदेश, सुमात्रा. तशेंच ऑस्ट्रेलियांत वारि यागेटेड लिझर्ड, जायंट मॉनिटर, स्पेन्सरस् मॉनिटर, मेर्टनस मोनिटर, मीचेल मोनिटर, शोर्टटेलड मॉनिटर (लांबायः २० सेंमी.) ह्यो गारांच्यो जाती दिसून येतात.

**प्रजननः** मादी फळटकच ती आपलीं तांतयां जमनींत पुरता वा झाडाचे घोलींत घालता. तांतयां ७ ते ५७ लेगीत आसतात. तीं मोव आसून रोखडींच फुटतात. तांतयां उबयतकच पेटे भायर सरतात, ते ३ ते ५ वर्सांनी व्हड जातात.

**पोसप आनी खावडः** कांय जाण हो प्राणी पोसतात. ऊंच दोंगरी वाठारांनी वाट सोदून काडपाक तांकां खास शिकप दितात.

चडशीं गारां किडे, शेड्डे, पिलां, नुस्तें, बेबे, शेवणीं, हुंदीर, जिवाणीं, तांतयां आनी ल्हान-मोटे जीव खावन रावतात. मोटें गार 'जायंट कोमोडो ड्रॅगन' जनावरांचीं मडीं वा स्वतापरस **व्हड जनावरांचे कुडके** करून खाता. ताचें तोंड खूब मोटें वा रुंद आशिल्ल्यान सबंद जनावर लेगीत तें गिळपाक शकता. खाल्लें अन्न पचोवपाक ताका दोन दीस लागतात. ताचें उदक पियेवपाचें प्रमाण खूब कमी आसता.

**उपेगः** मनीस गाराचें मांस आनी तांतयां खाता. गाराची कात चामडें म्हूण वापरतात. घुमटाखातीर गाराचें चामडें वापरतात.

- डॉ. ए. व्ही. खांडेपारकार

**गारुडीः** धंद्यावेल्यान तयार जाल्ली एक जात. गारुड्यांक मेडिसर आनी मदारी अशीय नांवां आसात. मदारी हे मुसलमान जातीचे. ते चवदाव्या शेंकड्यांत बाटून मुसलमान जाले अशें म्हण्टात. बाटिल्ले मुसलमान फकत 'सुंता' करून घेवपाचें सोडल्यार हेर कसलेच इस्लामी आचार पाळीनात. गारुडी चड करून महाराष्ट्र आनी गुजरातांत दिसतात.

सोरपांचे खेळ करून दाखोवप हो तांचो उपजिविकेचो धंदो. सोरपांचे खेळ करतना ते पुंगी ह्या वाद्याचो उपेग करतात. ह्या वेवसायाचें शिकप दिवपी एक शाळा दिल्लीलागसार मोलाडबंग नांवाच्या एका गांवांत आसा. हांगा वेवसायाक लागपी सगळ्या प्रात्यक्षिकांचें प्रशिक्षण दितात. गारुड्यांचो हो वेवसाय बरेच पोरनो आसा, अशें गरुड पुराणांत आनी जातकांत आयिल्ल्या उल्लेखावेल्यान दिसून येता. हिंदू गारुडी हे भवानीचे उपासक जावन आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**गारोः** भारताच्या मेघालय पठारी प्रदेशाचो अस्तंत भाग. पठाराच्या हेर भागांपरस गारो प्रदेशाची उंचाय कमी आसा. क्षेत्रफळः ८०८४ चौ. किमी. मेघालय राज्यांतल्यो ह्यो दोंगुल्ल्यो म्हळ्यार एक जिल्होच म्हणूं येता. ह्या प्रदेशांत सगळेकडेन दाट रान भरलां. हांगा भरपूर पावस पडटा. दोंगुल्ल्यांचे दुहेरी विभंगरेशेंतल्या उत्तर विभंगरेशेवेल्यान सिमसँग न्हंय व्हांवता. हीच न्हंय फुडें तुरा आनी कैलास दोंगुल्ल्यांच्या वळींतल्यान दक्षिणेंतल्या सुरमा देगणांतल्यान सोमेश्वरी नांवान व्हांवता. तेचपरी ह्या प्रदेशांत अस्तंतवाहिनी ब्रह्मपुत्रा गारो प्रदेशाचे अस्तंतेक दक्षिणवाहिनी जाता. गारो दोंगुल्ल्याभितर नोक्रेक हें १,४१२ मी. उंचायेचें सगळ्यांत व्हड तेमक आसा. गारो लोकांचे वसतीखातीर ह्या प्रदेशाक 'गारो' नांव पडलें. तुरा हें ह्या प्रदेशाचें मुखेल ठाणें.

गारो प्रदेशांत कोळसो, चुनखडी आनी खनीज तेल आदी खनीजसंपत्ती मेळटा. जिल्ह्यांतले सुमार ८५% लोक शेतीचो धंदो करतात; तेभायर कापूस, सांसवां, ताग, तंबाखू, ऊंस हींय पिकां काडटात.

गारो लोक चडशे न्हंयेचे देगेर खांब्यार बांदिल्ल्या घरांनी रावतात. हे लोक मुळचे मोंगोलॉइड वंशाचे आसून तांचे दोळे बारीक आनी नाक चेपटें आसता. ते लांबायेन मोटवे आनी आंगान बळीश्ट आसतात. तांचें मुखेल अन्न म्हळ्यार शीत. ते मांस खातात. नुस्तें मारपांत हे लोक खूब हुशार आसतात.

ह्या लोकांची कुटूंब पध्दत आवयसत्ताक आसता. देखून, भुरग्याक पोसकें घेवचें पडल्यार ते चलयेकूच पोसकी घेतात. थंय तरणाट्यांखातीर भौशीक घरां आसतात.

सादारणपणान चले-चलयो वयांत येतकच तांचें बहिर्विवाही कुळयेंत लग्न जाता. हे कुळयेक 'मचोंग' म्हण्टात. गारो वाठारांतल्या लोकांच्या लग्नांत नाच, गायन आनी बरें जेवण हे मुखेल-कार्यक्रम आसतात.

गारो वाठारांतले लोक कांय प्रमाणांत हिंदू धर्मीय आसात. पूण हालींच तातूंतले बरेच लोक किरिस्तांव जाल्यात. सालगाँग हो तांचो मुखेल देव. तांच्यांत भटाक चड म्हत्व आसा.

हे लोक मेल्ल्या मनशाक घरालागसारूच जाळटात. तेवेळार गायेचो वा बैलाचो बळी दिवपाची चाल तांच्यांत आसा. मेल्ल्या मनशाक जे सुवातीर जाळटात, थंय माटोव घालून मोडकी घांट आनी मेल्ल्या मनशाच्यो वस्तू लायतात. तशेंच सुपाक बुराक करून तें सूप माटवाक लायतात. ह्या बुराकांतल्यान आत्मो भायर वता, असो तांचो समज आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**गार्सिया मार्केझ, गाब्रिएलः** (जल्मः १९२८, आर्कातोका-कोलंबिया).

आंतरराश्ट्रीय नामना मेळयल्लो, स्पॅनिश भाशेंतलो साहित्यिक. एका गरीब कुटुंबांतल्या सोळा भुरग्यांतलो तो एक. ताच्या ल्हानपणाचीं आठ वर्सां ताणें आवयवटेनच्या आजो-आजये म्हऱ्यांत घालयलीं.

पिरायेच्या तेराव्या वर्सा ताका बोगोटा ह्या शारांत शिक्षणाखातीर शाळेंत घालो. ह्या काळांत ताणें ज्यूल व्हर्न, आलेक्सांद्र द्यूमा, व्हिक्टर ह्यूगो हांचें साहित्य वाचून काडलें. उपरांत त्याच शारांतल्या राश्ट्रीय विश्वविद्यालयांत तो कायद्याचें शिक्षण घेवपाखातीर दाखल जालो. ह्या काळांत ताचेर पाब्लो नेरुदा, डिकन्स, रुबेन डेरिओ, फ्रान्झ काफ्का ह्या सारक्या लेखकांचे बरपावळीचो प्रभाव पडलो.

पिरायेच्या विसाव्या वर्सा ताणें शिक्षण सोडलें आनी कॅरिबियन जुव्यांवयल्या कार्ताजेना ह्या गांवांत वचून रावलो. हांगा ताणें पत्रकारांची चाकरी धरली. उपरांत ती सोडून पुस्तकां आनी विश्वकोश विकपाचो उद्येग सुरू केलो.

इतलेमजगतीं बरोवपाचें ताचें काम चालूच आशिल्लें. ताच्या साहित्याक सगळेवटेन येवकार मेळूंक लागलो. Leaf Storm (१९५५), In Evil Hour (१९६२), Big Mama's Funeral (१९६२), One hundred years of solitude (१९६७), The Autumn Patriarch (१९७५), Chronicle of the death foretold (१९८२) हीं ताचीं कांय पुस्तकां उजवाडाक आयलीं.

ताचे बरपावळींत कल्पनाशक्त आनी वास्तवता हांची बरेतरेन भरसण जाल्ली सांपडटा. खासा लॅटीन अमेरिकेंतली जीण आनी परिस्थिती हांचें सोबीत भाशेंत ताणें चित्रण केलां. ताच्या साहित्याक १९७२ त रोमुलो गालेगो तस्त्रीप आनी न्यूस्टाड तस्त्रीप फाव जाली.

१९८२ त ताच्या One hundred Years of Solitude ह्या पुस्तकाक नोबेल इनाम फाव जालें. हे कादंबरींत ताणें एका घराण्याच्या इतिहासाविशीं सुरबूस शैलींत वर्णन केलां. ताची बारीकसाणेन नियाळ करपाची पध्दत आनी भाशेचेर आशिल्लें प्रभुत्व, हाका लागून संवसारभर टीकाकारांनी आनी विचारवंतांनी ताच्या साहित्याची तोखणाय केल्या.

Love in the days of cholera ही ताची नवी कादंबरी हालींच उजवाडाक आयल्या.

सद्या तो आपली घरकान्न आनी दोन पुतांवांगडा मेक्सिको सिटी (मेक्सिको) हांगा रावता.

- कों. वि. सं. मं.

**गार्सिया, रॉब्लेस आल्फोंसोः** (जल्मः २० मार्च, १९११- झामोरा, मेक्सिको).

एक नामनेचो कायदेपटू आनी आंतरराश्ट्रीय नामनेचो राजकी भाश्यकार.

ताचें मुळावें आनी शालेय शिकप झामोरा हांगा जालें. कायद्याचें शिकप ताणें मेक्सिकोच्या राश्ट्रीय स्वायत्त विद्यापीठांतल्यान आनी पारीस विद्यापीठांतसून घेतलें. १९३६ त, ताणें आंतरराश्ट्रीय कायद्याची पदवी मेळयली. १९३८ त ताणें हेग हांगाच्या आंतरराश्ट्रीय कायदो अकादेमीची पदविका मेळयली. १९३९ त ताची नेमणूक मेक्सिकन परराश्ट्रीय सेवेंत जाली आनी १९५७ त ताका राजदूत म्हूण बढती मेळ्ळी. १९४६ त, संयुक्त राश्ट्रांच्या सचिवालयांतल्या राजकी विभागाचो संचालक म्हूण ताची नेमणूक जाली. ह्या पदाचेर मार्च १९५७ मेरेन ताणें काम केलें. कायरेंत संयुक्त राश्ट्रांच्या सेक्रेटरी-जनरलचो खाजगी प्रतिनिधी म्हूण ताणें नोव्हेंबर १९५६ ते जानेवारी १९५७ मेरेन काम केलें. तशेंच संयुक्त राश्ट्रांचे आमसभेच्या खाशेल्या राजकी आयोगाचेर UNGA च्या तिसऱ्या ते इकराव्या अधिवेशनामेरेन (१९४८-५६) सेक्रेटरी जनरलचो प्रतिनिधी म्हूण ताणें काम पळेलें. नोव्हेंबर १९६५ त मेक्सिकोंत घडून आयिल्ल्या लॅटीन अमेरिकेचें denuclearization (REUPRAL) ह्या विशयावेल्या मुळावे बसकेचो तो चेअरमन आशिल्लो.

१९६७ तल्या त्लॅतेल्को कबलातीचेर सय जायमेरेन लॅटीन अमेरिकेच्या denuclearization खातीर (COPREDAL) थापणूक जाल्या उपक्रमसाधक आयोगाचो तो चेअरमन आशिल्लो. सुमार ६० आंतरराश्ट्रीय आनी आंतरअमेरिकन परिशदांचेर ताणें मेक्सिकोचो प्रतिनिधी म्हूण काम केलें. डिसेंबर ७५ ते नोव्हेंबर ७६ ह्या काळांत तो मेक्सिकोचो परराश्ट्रमंत्री आशिल्लो. ताणें आंतरराश्ट्रीय वेव्हार ह्या विशयाचेर २० पुस्तकां बरयल्यांत. ऑक्टोबर १९८१ त मेक्सिको प्रजासत्ताकाच्या अध्यक्षांन ताची नेमणूक राजदूत ॲमेरिटस (Ambassador Emeritus) म्हूण केली. रॉब्लेस हाका लॅटीन अमेरिका, आशिया, आफ्रिका आनी युरोपच्या सुमार धा राश्ट्रांकडल्यान जायते पुरस्कार आनी भोवमान मेळ्ळयात. ताका १९८२ त शांततायेखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार स्वीडनच्या आल्वा मिर्दाल हिचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**गालब्रेथ, जॉन केनेथः** (जल्मः १५ ऑक्टोबर १९०८, ऑंटॅरिओ-कॅनडा).

नामनेचो अमेरिकन अर्थशास्त्रज्ञ, राजकी विचारवंत आनी लेखक. पशुसंवर्धन विशय घेवन १९३१ त ताणें टोरॅंटो विद्यापीठाची बी. एस्. पदवी मेळयली. केंब्रिज विद्यापीठांत कांय काळ शिकप करतकच अर्थशास्त्र विशय घेवन १९३४ त ताणें कॅलिफोर्निया विद्यापीठाची डॉक्टरेट मेळयली. १९३४-३९ ह्या काळांत तो हार्व्हर्ड विद्यापीठांत अर्थशास्त्राचो अध्यापक आशिल्लो. प्रिन्स्टन विद्यापीठांत १९३९-४२ ह्या काळांत अर्थशास्त्राचें अध्यापन करतकच १९४३-४८ मेरेन ताणें 'फॉर्च्यून' म्हयन्याळ्याच्या संपादक-मंडळाचेर काम केलें. १९४८ सावन हार्व्हर्ड विद्यापीठांत ताची अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक म्हूण नेमणूक जाली. १९६१-६३ ह्या काळांत तो अमेरिकेचो वकील म्हूण भारतांत आशिल्लो. भारतांतल्या अणभवांचेर आदारिल्लो 'द ॲंबॅसडर्स जर्नल' (१९६९) हो ग्रंथ ताणें उजवाडायलो. भारतांतल्यान अमेरिकेक परत येतकच गालब्रेथ परत हार्व्हर्ड विद्यापीठांत रुजू जालो. आयज 'अमेरिकन अकॅडमी ऑफ आर्ट्स ॲंड सायन्सेस' चो तो मानादीक वांगडी आसा.

अर्थशास्त्राविशींच्या पारंपारिक कल्पना न्हयकारून अर्थशास्त्राचो नवे नदरेंतल्यान पुनर्विचार हें गालब्रेथाच्या बरपाचें खाशेलेपणा आसा. ताणें अमेरिकेसारक्या गिरेस्त देशांत निर्माण जावपी नव्या अर्थीक समस्यांचें चित्र उबें करपी 'द ॲफ्ल्युएंट सोसायटी' (१९५८) हो ग्रंथ बरयलो. 'द न्यू इंडस्ट्रियल स्टेट' (१९६७) हो ग्रंथ बरोवन ताणें उद्येगीक मळार व्हडा प्रमाणांत जायत आशिल्ले तंत्रीक उदरगतीक लागून रशिया आनी अमेरिका ह्या साम्यवादी आनी भांडवलशाही देशांतलो मूलभूत भेद ल्हवल्हव कसो कमी जायत आसा, हाची विस्कटावणी केली. 'अमेरिकन कॅपिटॅलिझम', 'द कन्सेप्ट ऑफ काऊंटरव्हेलिंग पावर' (१९५२), 'ए थिअरी ऑफ प्राइस कंट्रोल' (१९५२) आनी 'द ग्रेट क्रॅश, १९२९' (१९५५) ह्या तीन ग्रंथांनी ताची बुध्दिमत्ता दिसून येता. 'द ट्रायम्फ' (१९६८) ही कादंबरी, 'इंडियन पेंटिंग' (१९६९) हो मोहिंदर सिंग रंधावा हाचेवांगडा बरयल्लो ग्रंथ, अशें ताचें हेर बरोवप आसा. 'इकॉनॉमिक्स ॲंड द पब्लिक पर्पज' (१९७३) हो ताचो हालींचो ग्रंथ. समकालीन भांडवलशाहीचें परिक्षण आनी तातूंत सुदारणां घडोवन हाडपाखातीर सुचयल्ल्यो दीर्घकालीन उपाययेवजणी हांचो विचार ह्या ग्रंथांत आयला. गालब्रेथ हाका झुजाच्या काळांत ताच्या मोलादीक वावराक लागून 'मॅडल् ऑफ फ्रीडम' हो पुरस्कार मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**गालिबः** (जल्मः २७ डिसेंबर १७९७ आग्रा; मरणः १५ फेब्रुवारी १८६९, दिल्ली).

उर्दू आनी फारसी भाशेंतलो नामनेचो कवी. पुराय नांव मिर्झा असदुल्ला खान गालिब. ताचो बापूय मिर्झा अब्दुल्ला बेग, लाहोरचो नबाब मुईन-उल-मुलक हाचे लश्करांत सैनिक आशिल्लो. गालिब पांच वर्सांचो आसतनाच बापायक मरण आयलें. बापूय लश्करांत आशिल्ल्यान गालिबाक सरदार घराण्यांतलोच मानताले. १८५० वर्सा बहाद्दूरशहान नजमउद्-दौला, दबीर-उल्-मुलक, निजाम जंग हीं बिरुदां दिवन ताचो भोवमान केल्लो.



पिरायेच्या तेराव्या वर्सा गालिबाचें लग्न उमराव बेगम हिचे-कडेन जालें. ताचे फिरोझपूर झिर्काच्या नबाब घराण्याकडेन रगताचे संबंद आसले देखून ताका वर्साक १,५०० रुपयांचें अनु-दान मेळटालें, पूण आपल्या ख र्ची क स्व भा वा क लागून तशेंच वेसनांक लागून तो सगळो पैसो वोग-डावन बसलो. ताणें रिणाभरवण जाल्ले अवस्थेंत चडसो काळ सारलो. ताच्या रिणकाऱ्यांनी ताका बरेच फावट बंदखणूय भोगयली. फकत गजाली करप आनी कविता रचप, हातुंतूच तो गुल्ल आसतालो.

गालिब ल्हान पिरायेचेर कविता बरोवंक लागिल्लो. ताणें पंदराव्या वर्सांसावन कविता रचूंक सुरवात केली आसुंये, असो तर्क ताचे चरित्रकार करतात. इ. स. १८२२ मेरेन गालिब उर्दूंतल्यान बरपावळ करतालो. ताचेउपरांत तो फारसी भाशेंत बरोवंक लागलो. सादारण १८५० मेरेन ताणें फारशी भाशेंत रचना केल्यो. तो बेदिल हाका आपलो गुरू मानतालो, अशें ताचे एके कवितेंतसून दिसून येता. बेदिलाभायर हेर जायत्या उर्दू कवींचो ताचे कवितेचेर प्रभाव आसा, अशें जाणकारांचें मत आसा. काव्य म्हळ्यार कवीची बौध्दिक आनी कलात्मक अभिव्यक्ती अशी गालिबची धारणा आशिल्ली.

गालिबाची कविता ताचे वांट्याक आयिल्ल्या बऱ्या वायट अणभवांच्या मुळसाचेर उबी आसा. स्वच्छंदतावादी (romantic) वृत्ती ही तिची नीज बड, अशें म्हणूं येता. मोग आनी दुख्ख ताचे कवितेचो स्थायीभाव. सगळ्या कवितांतल्यान ताच्या व्यक्तिमत्वाचो जाल्लो उत्कट आविश्कार सांपडटा. एके नदेरेन ताचें काव्य आत्मचरित्रात्मक आसा. 'गझल' हो काव्यप्रकार गालिबाक लागून बरोच वयल्या पांवड्यार पावलो. ह्या काव्यप्रकाराक प्रतिश्ठा आनी लोकप्रियता मेळ्ळी. लोक आयजूय गालिबाच्यो गझल वाचतात. हो काव्यप्रकार उर्दूंतल्यान हेर भाशांमदीं पावला. आपले प्रतिभेवरवीं गालिबान उर्दू आनी फारसी कवितेक एक नवी दिका दिली.

ताच्या समेस्त फारसी कवितांचो 'कुल्लियात-इ-गालिब' हो कवितांझेलो नामनेचो आसा. उर्दूंत बरयिल्लो 'दीवान-इ-गालिब' हो कवितांझेलो बरोच गाजलो. हाचेभायर फारसी आनी उर्दू गद्य बरपावळीचेय ताचे बरेच ग्रंथ आसात. ताणें आपल्या इश्टांक आनी अनुयायांक बरयिल्लीं पत्रांय ताच्या खासा भाशाशैलीची गवाय दितात. हाकालागून ताका आर्विल्ल्या उर्दू गद्याची बुन्याद घालपी, म्हूण वळखतात.

'हाली' ह्या ताचे अनुयायान 'यादगार-इ-गालिब' हें ताचें चरित्र बरोवन दवरलां. दिल्ली हांगा गालिबाची कबर आसा

- माधव बोरकार

**गावडोः** गांव वसोवपी, तशेंच पोरनी ग्रामवेवस्था वसोवपी म्हळ्यार

गावडे. गांव ह्या शब्दावेल्यान गावडो हो शब्द आयला अशें कांय जाणकारांचें मत आसा, जाल्यार कांय विद्वानाच्या मताप्रमाण 'गांवुड' ह्या कानडी शब्दावेल्यान हो शब्द आयला. कांय जाणाच्या मताप्रमाण उत्तरेकडल्यान दक्षिणेक येवन थिरावल्ली जमात म्हळ्यार गावडो.

गावडो ही जमात प्रोटो-ऑस्ट्रॉलॉइड वंशीय आसून आर्यांपयलींच ती गोंयांत आयली. मध्य प्रदेश, ईशान्य महाराष्ट्र, म्हैसूर (कर्नाटक) हांगाच्यान ते गोंयांत आयले. तांणी गांव वसयले म्हूण तांकां गांवकार अशेंय म्हण्टात. मलबार, केरळ हांगाय गावड्यांचीं घराणीं दिश्टी पडटात. तशेंच गावड्यांकडेन सारकेंपण दाखोवपी गौडा, गोंड, कोल, संथाळ, कुणबी ह्यो जमाती आसात.

आर्यांपयलींच्या काळांत ज्यो जमाती गोंयांत आयिल्ल्यो तातूंत स्वताचें खाशेलेपण सांबाळून आनी दुसरे जातींत विलीन जायनासतना राविल्ली गावडो ही जात. आर्यांच्या प्रभावान गावड्यांनी हिंदू धर्म आपणायलो. तांच्यो परबो, उत्सव, आपणायलो देखून गावडो ही जमात हिंदूंतलीच एक जात अशें समजतात. ही जात संथाळ, गोंड, भिल्ल हांचेभशेन रानांनी रावना तर गांवांत आपल्या स्वताच्या वेगळ्या गावठणांत रावता वा भाटकाराच्या भाटांनी मुंडकार म्हूण रावता.

गोंयांत पोर्तुगेज सरकाराच्या काळांत तशेंच मुक्ती उपरांत जर जातवार मेजणी घेतिल्ली जाल्यार गोंयचे एकजिनसी जातींत गावडो हीच जात संख्येन चड आसा अशें दिसून येवपाचें अशें जाणकारांचें मत आसा. पोर्तुगेजांनी साश्टी, मुरगांव, तिसवाडी हांगासल्ल्या गावड्यांक बाटोवपाचे प्रकार घडले. तरी करंजाळे, चिमला, करमळी नेवऱ्यां हांगासल्ल्या दोंगरी वाठारांनी हिंदू गावडे दिश्टी पडटात. सुमार १९१८ त १० हजार बाटयल्ल्या किरिस्तांव गावड्यांक हिंदु धर्मांत घेतले. १९२८ वर्सा सुमार १० हजार गावड्यांचें भौशीक धर्मांतर जालें. गोंयच्या सगळ्या तालुक्यांनी उण्या चड प्रमाणांत गावड्यांची वस्ती आसून, उत्तर गोंयांत ती कमी प्रमाणांत आनी दक्षिण गोंयांत चड प्रमाणांत आसा. अंत्रुज तालुक्यांत मात हिंदू गावड्यांची सगळ्यांत चड वस्ती आसा.

गावडो हो प्रोटो-ऑस्ट्रॉलॉइड वंशाचो आशिल्ल्यान तो मध्यम बांद्याचो आसता. दादल्या-बायलांमदीं काटकपणा आशिल्ल्यान तीं दोगांय कश्टांचीं कामां करतात. तांचो मुखेल वेवसाय शेतीचो आसता. पूण चडशे गावडे मुंडकार जावन आशिल्ल्यान शेतांनी, भाटांनी आनी कुळागारांनी मानाय आनी कामेऱ्यां म्हूण काम करतना दिसतात. गावड्यांत मीठ गावडे वा आगरी गावडी अशीय एक पोटजात आसा. हे संख्येन साप्प उणे आसात आनी ते मीठ काडपाचो धंदो करतात. कुणबी गावडे रस्त्यार भाडेलपण करतात. पूर्विल्ल्या काळांत जेन्ना वाहनांची सोय नाशिल्ली तेन्ना माचूल हें वाहन व्हरपाचीं कामां ते करताले.

गावड्यांच्यो बायलो हातांत कोपर मेरेन पितुळचीं कांकणां आनी कानांक चार बुराक करून तरेकवार कानांतले अलंकार घालतात. तशेंच चोळी, पोलको घालनासतना देंठ्लेन कापड बांदतात. दादल्यांचो भेस काश्टी, कुडते आनी कांबळ. ते पांयांत जोतें घालीनासले. तांच्या जेवणांत उकड्या तांदळाचें शीत आनी नुस्तें आसता. हिंदू गावडे कोंबयेचें मांस खायनात वा कोंबयो पाळनात. हिंदू गावड्यांच्या बायलांक पान-तंबाकू खावपाची जबर आवड आसता. तांचो राबितो सादो पूण नितळ निवळ आसता.

ते स्वताक बळीराजाचे वंशज समजतात आनी खासा सुवाळ्यावेळार ते बळीराजाची काणी सप्तकभर वाचतात. पुराणीक, राजकी आनी समाजीक प्रसंगाचेर आदारून जागर ह्या लोकनांचाचे कार्यावळींत ते वांटो घेतात. शिगमो, चवथ, गोरवांचो वा धेडंल्याचो पाडवो ह्यो परबो ते मनयतात. तांच्यो बायलो सणासुदीच्या वेळार धालो, फुगड्यो खेळटात. घाडी, म्हारु, करणी हांचेर तांचो खर विश्वास. तांच्यात देवकां हो प्रकार आसता आनी तो झाडां फळां आनी जनावरां हांच्या रुपांत मानतात. जें झाड देवक आसता ताचो वापर करपाक मनाय आसता. देवकां एक आशिल्ल्या घराण्यांत तांचीं लग्नां जायनात. तांचीं लग्नाची पध्दत हेर समाजापरस मात्शी वेगळी आसता. ह्या समाजांत घरचे रायबारी (कारभारी) चलयांची सोयरीक चल्यांकडेन व्हर नासतना चल्यांची सोयरीक चलयांकडेन व्हरतात.

फाटल्या काळांत गावडो समाज हो मागाशिल्लो समाज आशिल्लो. पूण आयज समान हक्काचो लाव मेळिल्ल्यान आनी सरकारान दिल्ले सवलतीक लागून संस्कृतीक, राजकी, शिक्षणीक मळाचेर तांची उदरगत जायत आसा.

गावड्यांत हिंदू गावडे आनी किरिस्तांव गावडे अश्यो दोन मुखेल जाती आसात. किरिस्तांव गावड्यांची सगळ्यांत चड वस्ती तिसवाडी तालुक्यांत आसा. हेरकडेन ते कमीप्रमाणांत आसतात. हिंदू गांवड्यांच्या बायलांचो कपलाचो तिबो सोडलो जाल्यार तांचो भेस, रावप, चालीरिती हातूंत सारकेंपण आसता. हिंदू गावड्यांतली देवदेवस्की आनी धर्मीक चालीरिती किरिस्तांव गावड्यांनी अजूनय चालू दवरल्या. हिंदू देवतांचे ते प्रसाद घेतात. किरिस्तांव धर्मांतल्या जल्माउपरांतचो बाप्तिस्म, लग्न, आनी मरण ह्या तीनूय संस्कारांच्या वेळार तांचो इगर्जीकडेन आनी पाद्रीकडेन संबंद येता. इगर्जेक आनी धर्माक हेर किरिस्तावांचे जिणेंत जितलें स्थान आसा तितलें तांचेमदीं दिसून येना. हें पळोवन विनायक महाराज मसुरकारान तांचे भौशिकतरेन धर्मांतर केलें. हे जातीक 'नवहिंदू' म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

## गावडो जागर: पळयात जागर

## गावस, बापू विष्णू: (जल्मः १९२७, चांदेल-पेडणें; मरणः ५ फेब्रुवारी १९५६, चांदेल).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठी आनी पोर्तुगेजींतल्यान घेतलें. तो सरकारी नोकरी करतालो. १९५४ वर्सा ताणें सरकारी नोकरेक सोडचीट दिली आनी तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेंत आयलो. पिस्तूल चलोवपांत तो खांपो आशिल्लो. २६ नोव्हेंबर १९५५ दिसा चांदेल गांवांत पोलीस ठाण्याचेर हल्लो जाल्लो तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५६ दिसा ताणें हेर झुजाऱ्यांवांगडा चांदेल वाठारांत रस्त्याचेर भुंयसुरींग घालून पोलिसांचे जिपीची मोडतोड केली. ५ फेब्रुवारी १९५६ दिसा नामनेचो पोर्तुगेज सैनिक कासिमीरू मोंतैरू आपल्या धा बारा सैनिकांक घेवन चांदेल रस्त्यान वता आसतना, बापू गांवसान आपलो वांगडी बाळा देसाय हाचे वांगडा ताचे जिपीचेर हल्लो केलो. हातूंत बापू गांवसाक बरोच मार लागिल्लो आनी ताचे कडलो दारुगुळो सोंपिल्लो. ताची ही परिस्थिती लक्षांत घेवन पोर्तुगेज सैनिकांनी ताका धरलो आनी आपले जिपीक बांदून घश्टीत चांदेलच्या पोलीस ठाण्यार व्हेलो. थंय व्हरून तांणी ताका लासलो. १८ जून १९८३ दिसा गोंय सरकारान ताचो मरणोत्तर भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## गावसकर, सुनील मनोहरः (जल्मः १० जुलय १९४९, मुंबय).

संवसारांत नांवाजल्लो एक म्हान भारतीय क्रिकेट खेळगडो. ताच्या बापायचें नाव मनोहर, आवयचें नांव मीना, बायलेचें मार्शनील आनी पुताचें रोहन जयविश्व. ताचें मुळावें शिकप सेंट झेव्हियर हायस्कूल-मुंबय आनी उंचेलें शिकप सेंट झेव्हियर कॉलेज- मुंबय हांगा जालें. मुंबय विद्यापीठाचे साहित्य शाखेचो तो पदवीधर आसा.

निरलॉन सिंथेटीक फायबर्स ॲण्ड कॅमिकल्स कंपनींत अधिकारी म्हूण तो काम करता. खेळांवस्तू विकपी धंद्यातूय तो वावुरता. ताच्या ह्या उद्येगाचो 'सनीस् स्पोर्ट्स बटीक' हो फांटो पणजी शारांत आसा.

ताका भुरगेपणांत सावन क्रिकेट खेळपाची आवड आसली. ताचो मामा माधव मंत्री हाणें हो खेळ खेळूंक ताका फाटबळ दिलें. सुर्वेक तो विद्यापीठाखातीर खेळ्ळो. मार्च १९६६ सावन पयल्या पांवड्याचो क्रिकेट खेळ खेळपाक ताणें सुरवात केली. वझीर सुलतान पंगडाखातीर

मोईनउद्दौला भांगरा करंड सर्तींत ताणें वांटो घेतलो. १९६९-७० वर्सा रणजी क्रिकेट सर्तींत मुंबय पंगडांत ताचो आस्पाव जालो. १९७१ वर्सा वेस्टइंडीज देशांत क्रिकेट कसोटी खेळ खेळपाक वचपी भारतीय पंगडाखातीर ताका वेंचून काडलो. वेस्ट इंडीज दौऱ्यांतलो दुसरो क्रिकेट कसोटी सामनो, पोर्ट ऑफ स्पेन (त्रिनिदाद) हांगा जालो. सुनील गावसकराची ती पयली कसोटी आसली. हे कसोटीच्या दोनूय डावांत ताणें अर्दशतकां काडलीं. हे कसोटी क्रिकेट माळेंत ताणें ७७४ धांवड्यो काडून विक्रम केलो. तातूंत वट्ट चार शतकां आसलीं. पोर्ट ऑफ स्पेन मैदानार जाल्ले निमणे कसोटींत पयल्या डावांत शतक आनी दुसऱ्या डावांत द्विशतक काडलें.

१९७१ ते १९८७ मेरेनच्या १७ वर्सांच्या कसोटी क्रिकेट जिणेंत कांय थोडे आडवाद सोडल्यार, ताणें भारतीय पंगडाचो सलामीचो फलंदाज म्हूण खेळ केला. क्रिकेट खेळांत ताणें जायते संवसारीक आनी भारतीय विक्रम केल्यात. तातूंतले कांय अशे:

**संवसारीक विक्रम (कसोटी क्रिकेट):** १. चडांत चड कसोटी क्रिकेट सामने खेळप- १२५ कसोटी, चडांत चड डाव खेळप- २१४ डाव, खंड पडनासतना खेळिल्ले कसोटी क्रिकेट सामने- १०६ कसोटी, चडांत चड शेंकडे- ३४ शेंकडे, चडांत चड धांवड्यो- १०१२२ धांवड्यो, चडांत चड अर्दशेंकडे ४५, दोनूय डावांत शेंकडे- ३ फावट, एका वर्सांत एक हजार धांवड्यो- ३ फावट.

**भारतीय विक्रम (कसोटी क्रिकेट)** एका डावांत चडांत चड धांवड्यो- २३६ नाबाद (हो विक्रम वेस्टइंडिज पंगडाआड मद्रास हांगा चेपॉक मैदानार जालो) वर्स १९८३-८४. चडांत चड झेल- १०६. दरेक डावाफाटल्यान धांवसरासरी- ५१.१२.

**हेर विक्रम:** तो कर्णधार म्हूण ४७ कसोटी क्रिकेट सामने खेळ्ळो. तातूंतले ९ कसोटी तो जिखलो. ८ कसोटी हारलो आनी ३० कसोटी बादाबाद दवरपाक ताका यश मेळ्ळें. पयल्या पांवड्याच्या क्रिकेट सामन्यांनी ताणें वट्ट ८० शेंकडे केले. तातूंत १ तिट्टी शेंकडे, ९ दोट्टी शेंकडे आसात. पयल्या पांवड्याच्या खेळांतलो ताचो उच्चांक ३४० धांवड्यो आसून, तो ताणें मुंबय अस्तंत बंगालाआड रणजी सर्तींत केलो (१९८१-८२). एका दिसाच्या आंतरराश्ट्रीय क्रिकेट सामन्यांत ताच्या फुडारपणाखाल भारतीय पंगडान 'बेन्सन अॅण्ड हेजेस विश्व कप' आनी 'आशिया कप' जिखून व्हड मान जोडलो. १९८८ ची संवसारीक क्रिकेट सर्त भारतांत जाल्या उपरांत ताणें निवृत्ती जाहीर केली.

क्रिकेट खेळाभायर संगीत, चित्रपट, साहित्य ह्या मळांनूय तो वावुरला. 'सावली प्रेमाची' ह्या मराठी चित्रपटांत ताणें काम केलां. ताच्या गाजिल्ल्या पुस्तकांत 'सनी डेज', 'आयडॉल्स' हांचो आस्पाव जाता. अर्जुन पुरस्कार (१९७७), पद्मभूषण (१९८०), विस्डेन क्रिकेटर ऑफ द ईयर (१९८०) ह्यो भोवमानाच्यो पदव्यो ताका फाव जाल्यात. जायत्या विद्यापीठांनी ताका 'डॉक्टरेट' ही भोवमानाची पदवी दिल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## गॉमिश, आन्द्राद: (जल्मः ? मडगांव; मरणः १६५७).

कानारा वाठाराचो 'व्हिकार फोराने'. धर्मीक शिक्षण घेतल्याउपरांत तो धर्मीक फुडारी जालो. फुडें ताका कानाराचो व्हिकार आपोस्तोलीक (Vicar Apostolic) म्हूण वेंचून काडलो. पूण ही खबर गोंयांत पावचे पयलींच ताका मरण आयलें. तेन्ना तो आगशीच्या इगर्जीचो धर्मीक फुडारी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## गॉमिश चार्लस: (जल्मः ?, साळगांव-बारदेस).

गुजरात राज्यांतल्या अहमदाबाद शाराचो बिशप. १९३६ वर्सा पाद्री म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९७४ वर्सा तो बिशप जालो. सद्या तो आपले डायोसिजीचो वावर करता.

- कों. वि. सं. मं.

## गॉमिश, फ्रांसिश्कु लुईस (जल्मः ३१ मे १८२९, कोलमरड-नावेली; मरणः ३० सप्टेंबर १८६९, भूंयमध्य दर्या).

एक नामनेचो गोंयकार अर्थशास्त्री, बरोवपी, पत्रकार, पोर्तुगालचे लोकसभेचो खासदार आनी व्हड देशभक्त. बापायचें नांव फ्रांसिस साल्वादोर गॉमिश. आवयचें नांव दोना आध्यादात्त फ्रांसिस्का फुर्ताद.

ताका पिरायेच्या सातव्या वर्सा शिक्षकाचे सुवादीन केलो. एका वर्सांत तो पोर्तुगेज भास बरेतरेन शिकलो. कोंकणी भाशेभायर इंग्लीश, इटालीयन, लॅटीन, फ्रेंच आनी मराठी ह्यो भासोय तो शिकलो. गणित, भुगोल, भौतिकशास्त्र, इतिहास, तत्त्वगिन्यान ह्या विशयांत तो खूब हुशार आसलो. लिसेव शिक्षणाची सुरवात मडगांव करून १८४६ वर्सा पणजे येवन ताणें तें पुराय केलें आनी गोंय वैजकी कॉलेजांत प्रवेश केलो. १८५० वर्सा घसघशीत यश जोडून वैजकी पदवी घेतली. ह्या ताच्या यशाक लागून पणजे लश्करी हॉस्पिटलांत आदारी शल्यविशारद म्हूण ताका नेमलो. उपरांत फोंड्यां म्हालांत ताची बदली जाली. थंय वायटकारांची सेवा करून ताणें व्हड नांव जोडलें. Junta geral do distrito (जून्त जराल दु दिश्त्रीतु) ह्या सभाघराचो प्रोकुरादोर (अॅटर्नी) म्हूण वेंचून आयलो. O Ultramar (ऊ उल्त्रामार) आनी O Defensor da Verdade (ऊ देफेन्सोर द व्हेर्दाद) ह्या नेमाळ्यांनी ताचे जायते लेख उजवाडाक आयले. पोर्तुगालाक आसतना 'Gazeta de Portugal' (गाझेत द् पुर्तुगाल) Archivo Pittoresco (आर्किव्ह पितोरेश्कु) आनी उपरांत Revolucao de Setembro (रेव्होलुसांव द सेतेंब्र) Diario Popular (दियारियु पोपुलार) ह्या पोर्तुगेज नेमाळ्यांनी संपादकीय लेख बरयले. अर्थशास्त्र, वेपार-धंदो, जमनीचो प्रस्न, जिवीत-कथा, कांदबरी असल्या विशयांचेर ताणें पोर्तुगेज आनी फ्रेंच भाशेंतल्यान पुस्तकां बरयलीं. १८६६ वर्सा ताची Os Brahmanes (ऊश ब्रामानिश्) ही कादंबरी उजवाडाक आयली. ती खूब गाजली. जशे ब्राह्मण आदल्या काळांत हेर जातींचेर सत्ता गाजयताले, तशेच युरोपीय मनीस दुसऱ्या देशाचेर सत्ता गाजयतात. खऱ्या अर्थान आयचे ब्राह्मण तेच, असो विचार तो तातूंत मांडटा. आरमांद मिनेझीश हाणें हे कादंबरीचो The Brahmins म्हूण अणकार केला तर लक्ष्मणराव सरदेसाय हाणें 'ब्राह्मण' ह्या नांवाखाल मराठींत अणकार केला. Le Marquis de Pombal-Esquisse de sa vie Publique (१९६९) (लू मार्कीस द पोंबाल-एस्कीस द सा व्ही प्युब्लीक) हें ताचें फ्रेंच भाशेंतलें निमाणें पुस्तक आसलें.



आपल्या वैजकी आनी हेर समाजीक वावराक लागून ताचें व्हड नांव जालें. १८६० वर्सा ऑगस्ट म्हयन्यांत जाल्ले वेंचणूकेंत साश्ट-काणकोण वाठारां-तल्यान फ्रांसिश्कु गॉमिश एकमतान पोर्तुगेज लोकसभेक विरोधी पक्षाचो उमेदवार म्हूण वेंचून आयलो. पार्ती दु इंदियानु ह्या पक्षाचे वतीन सरकारी उमेदवाराक ताणें हारयलो. आठ वर्सां तो पोर्तुगालाक उरलो. लोकसभेंत तो 'रेजेनेरादोर' (पुरोगामी) नांवाच्या पक्षाचो भागीदार रावलो. लोकांक न्याय आनी नीत मेळची म्हूण तो वावुरलो.

सत्तरी म्हालांत फौजेचे पलटणींत भोव मोलादीक वावर केल्यान

'Cavalheiro da Ordem Militar do Nosso Senhor Jesus Cristo' (आमचो स्वामी जेजू क्रिस्त हाचे फौजेचो सरदार) ही पदवी मेळ्ळी. ताच्या कर्तृत्वाक लागून लिश्बोआ 'वैजकी शास्त्र संस्था', पारिसाची राजकी अर्थशास्त्र संस्था, कांदीज (स्पेन)ची अर्थशास्त्र संस्था आनी मुंबयची 'रॉयल एशियाटीक सोसायटी' हांणी ताका आपलो मानादीक वांगडी वेंचून काडलो. लूव्हें विद्यापीठाची, राजकी आनी समाजीक शास्त्रांतली दोतोरकीची पदवी ताका फाव जाली. ताचीं नामनेचीं पुस्तकां अशीं आसात -

1. De la question du coton en Angleterre et dans les possessions portugaises de l'Afrique Occidentale (1862).
2. A liberdade da Terra e a Econbmia rural da India portuguesa (1862).
3. Osbrigadeiros Henriques Carlos Henriques a Joaquim Jose Xavier Henriques (1863).
4. Essai sur la theorie de l' Economic Politique et des ses rapports avec la morole et le droit (1867).

पोर्तुगालसावन मायदेशांत परततना भूमध्य दर्यांत बोट आसतना, ताका मरण आयलें.

- दिलीप बोरकार

**गिनी:** आफ्रिका खंडाच्या अस्तंत देगेवयलो एक प्रजासत्ताक देश. अक्षवृत्तीय विस्तार ७° ३५' उत्तर ते १२° ते ३०' उत्तर. रेखावृत्तीय विस्तार ८° अस्तंत ते १५° अस्तंत. क्षेत्रफळ: २,४५,८५७ चौ. किमी. लोकसंख्या: ५५,६३,०००•(१९८६). हाचे वायव्येवटेन गिनी बिसाऊ आनी सेनेगल, अस्तंतेवटेन ॲटलांटिक म्हासागर, दक्षिणेक सिएरा लिओन आनी लायबीरीया, आग्नेयेवटेन आयव्हरी कोस्ट आनी उत्तरेक माली हे देश आसात. देशाक २७२ किमी. लांबायेची दर्यादिग लाबल्या. देशाची राजधानी- कोनाक्री.

**भूंयवर्णन:** भुगोलीक नदरेन देशाचे चार वांटे जातात: दर्यादिग, तिचे उत्तरेखटेनचो फूटा जालन हो व्हड पठारी वाठार, ईशान्येवटेनचो सॅव्हानाचो तणाचो वाठार आनी आग्नेयेवटेनचो रानांचो दोंगरी वाठार.

दक्षिणेवटेनची दर्यादिग सकयल आसा आनी तिची रुंदाय सुमार ४८ ते ८० किमी. आसा. दर्यादिग चडशी नीट आसा आनी ह्या वाठारांत कांय न्हंयो दर्याक मेळटात. दर्यादिगेलागीं ल्हान व्हड जुंवे आसात. उत्तरेखटेनच्या फूटा जालन पठाराची उंचाय ५०० ते ९१२ मी. मेरेन वाडत वचून फुडें ३०० मी. मेरेन देंवता. हें पठार देशाचे मदीं आसा आनी वायव्य-आग्नेय अशें पातळ्ळां. हांगा सावन बऱ्योच न्हंयो व्हांवतात. हातूंतल्यो कांय उत्तर आनी ईशान्येवटेन वतात, जाल्यार कांय दक्षिणेवटेन आनी नैर्ऋत्येवटेन व्हांवत वचून गिनीच्या आखाताक मेळटात. पठारी वाठराक लागून हांगा न्हंयांचेर बरेच धबधबे तयार जाल्यात. ईशान्येवटेनचो सॅव्हाना तणाचो वाठार सुमार ३०० मी. उंचायेचो आसून हांगा मदींमदीं फातर आसात. आग्नेयेवटेन दाट रानां आसात. निंबा ही सुमार १,८२४ मी. उंचायेची दोंगरातेंगशी ह्याच वाठारांत आसा. नायजर आनी तिची उपन्हंय मिलो हांगासावन सुरू जाता. कॉंकुरे, नायजर (जलिबा), गॅंबिया, बाफॅंग, बाकोई आनी काझामांस ह्यो ह्या देशांतल्यो मुखेल न्हंयो आसात.

**हवामान:** गिनीचें हवामान विशुववृत्तीय प्रकारचें आसलें, तरी उंचायेप्रमाण हवामानांत फरक पडटा. दर्यादिगांच्या वाठारांनी उश्ण हवामान आसता. थंयसावन भितरल्या वाठारांनी व्हांवपी वाऱ्यांक लागून पावस पडटा. दर्यादिगेर ४०० सेंमी. परस चड पावस पडटा. हांगाचें तापमान २६° ते ३०° से. मेरेन आसता. पावसाचें प्रमाण दक्षिणेसावन उत्तरेखटेन २००-१५० सेंमी. मेरेन उणें जायत वता. पावस गिमांत पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात:** दर्यादिगांलागीं चिखलाच्या वाठारांनी वाडपी वनस्पत बऱ्याच प्रमाणांत दिसून येता. आग्नेय वाठारांत दाट पाचवीचार रानां आसात. संवसारांत हेर कडेन सांपडनाशिल्ले वनस्पतीचे कांय प्रकार हांगा आसात. मॉहॉगनी, एबनी, रोजवूड ह्या सारके घट लांकडाचे रुख तशेंच तण, बाभळ, निलगिरी, चिंच, बोर, ताड, बॅओबाब, शीनर हीय वनस्पत बऱ्याच प्रमाणांत आसा. गिनींत तण खावपी आनी मांस खावपी प्राण्यांची संख्या बरीच व्हड आसा. रानांनी आनी तणांच्या वाठारांनी हत्ती, वाग, शिंव, जिराफ, तरस, कोलसुणीं, हरणां, झेब्रा, मानगीं, माकडां, सोरोप हे सारकी मोनजात दिश्टी पडटा.




**इतिहास:** गिनीच्या दर्यादिगांनी पिग्मी आनी निग्रो लोकांनी सगळ्यांत पयलीं राबीतो केल्लो. रानां मारून तांणी थंय शेतां रेवंक सुरवात केली. उत्तरेखटेनच्यान बर्बर लोक तशेंच ईजिप्त आनी सूदान हांगासावन कांय रानवट पंगड ह्या देशाच्या उत्तर वाठारांत येवन रावंक लागले. गिनीच्या सद्याच्या शेजारच्या वाठारांचोय पयलीं गिनींत आस्पाव जातालो. नायजर न्हंयच्या उदेंत देगणांतल्या घिनी-जेन्नी वा डेन्नी ह्या शाराच्या नांवावयल्यान ह्या देशाक गिनी हें नांव पडलें अशें म्हण्टात. १४८३ त फ्रेंच लोकांचें लक्ष पयलीं ह्या वाठाराकडेन पावलें. इकरावो लुई ह्या फ्रांसाच्या राजान म्हारेगाचेर वखद सोदूंक कांय व्हडीं ह्या वाठारांत धाडिल्लीं. १५५८ त सेनेगल हांगाच्या सेंट लूईस हांगा फ्रेंचांनी पयली वेपारी वसाहत निर्माण केली. १६२४ त फ्रेंचांनी सेनेगल आनी गॅंबिया हांचेलागीं वेपार करूंक सुरवात केली. फ्रेंचांभायर पोर्तुगेज, ब्रिटीश, डच आनी स्पॅनिश वेपारीय चवदाव्या ते पंदराव्या शतमानांत हांगा येवंक लागिल्ले. ह्या पुराय दर्यादिगेच्या विंगड विंगड वाठारांक थंयच्या उत्पन्नावयल्यान वेगवेगळीं नांवां मेळ्ळीं. देखीक- पालमस ते सिएरा लॅओनचे दर्यादिगेक थंय जावपी मिरयांक लागून 'ग्रेन कोस्ट' हें नांव, फुडले दर्यादिगेक हस्तिदंतावयल्यान 'आयव्हरी कोस्ट', पालमसचे

उदेंतेवटेनचे दर्यादिगेक 'गोल्ड कोस्ट' जाल्यार व्होल्टा न्हंयचे उत्तरेवटेन थंय चलपी गुलामांच्या वेपाराक लागून 'स्लेव्हकोस्ट' हें नांव मेळ्ळें. १७९४ त गुलामांच्या वेपाराचेर बंदी येतकच गीनीच्या न्हंयांतल्यान गुलामांचो चोरून वेपार जावंक लागलो. तोमेरेन ह्या वाठाराविशीं कोणाकूच खासा अशें लक्ष दिवचेशें दिसलेंना.

१८१४ त जाल्ले कबलातींतल्यान फ्रांसाच्या वेपारी हक्कांची राखण जाली. बोके शार आनी ताचे भोंवतणचो वाठार १८४९ त फ्रांसान आपले राखणेखाला घेतलो. फूटा जालन हांगा रावपी पंगडांमदीं १७२५ वर्सा धर्मझुजां जावन फुलानी ह्या इस्लामी पंगडान मालिके लोकांचो पराभव करून साम्राज्याची थापणूक केल्ली. तांणी १८६१ त फ्रेंचांचे राखणेखाला आशिल्ल्या वाठाराक मान्यताय दिली. १८६४ त सावन फुलानी लोकांत एकामेकांमदीं झगडीं पेटलीं. १८८१ त नायजर न्हंयचे अस्तंतेवटनेचो वाठार फ्रेंचांचे राखणेखाला दिवंक फुलानी राजान मान्यताय दिल्ली, पूण फुडें ताणें न्हयकार दिल्ल्यान फ्रेंचांनी ताका १८९१-९३ त थंयसावन धांवडावन घालो. नायजरच्या उदेंत वाठारांत कांकन शारांत, १८७९ सावन मालिके पंगडाचें राज्य चलतालें. १८९८ मेरेन फ्रेंचांनी तांकांय काबार केले. १८९० त सद्याच्या गिनी वाठाराचें स्वरुप सादारणपणान निर्माण जालें. १८९१ त ताका सेनेगल सावन वेगळो काडून ताचें 'रिव्हिएरा द्यू स्यूद' हें नांव बदलून फ्रेंच गिनी हें नांव दिलें.

१९५८ मेरेन गिनी हो फ्रांसाचे फ्रेंच वेस्ट आफ्रिका वसणुकेचोच एक वांटो आशिल्लो. १९५८ त फ्रांसांत जनरल द गॉल राष्ट्राध्यक्ष जाल्या उपरांत ताणें हे वसणुकेमुखार स्वतंत्रतायेविशींच्यो येवजणी दवरल्यो. तेप्रमाण २८ सप्टेंबर १९५८ त गिनीन आपूण पुराय स्वतंत्र आनी सार्वभौम राष्ट्र म्हूण घोशणा केली. स्वतंत्रतायेउपरांत फ्रांसाकडले ताचे संबंद तुटले आनी ताका हेर परकी राश्ट्रांकडल्यान पालव घेवचो पडलो. १२ नोव्हेंबर १९५८ दिसा गिनी निधर्मी लोकशाय प्रजासत्ताकाची घोशणा जाली. ह्याच वर्सा तांणी घाना ह्या देशाकडेन आनी १९६० त माली देशावांगडा अर्थीक पालवाविशीं कबलाती केल्यो. मे १९६३ त, गिनीन पर्थून फ्रांसावांगडा अर्थीक आनी संस्कृतीक संबंद जोडले. १९६६ त घानांतल्यान धांवडावन घाल्लो थंयचो अध्यक्ष एन्. क्रुमाह हाका गिनीन आलाशिरो दिलो. १९७० त गिनीचेर पोर्तुगालान घुरी घाली, पूण संयुक्त राश्ट्रांच्या पालवान ताणें ही घुरी परतायली. १९५८ सावन हांगाचो राश्ट्राध्यक्ष सेकू तुरे हो आशिल्लो. १९६८ त ताची राश्ट्राध्यक्षपदाचेर पर्थून नेमणूक जाली. १९८४ मेरेन ताकाच हांगाच्या लोकांनी राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून काडिल्लो. १९८४ त ताका मरण आयलें. ताच्या मरणाउपरांत हांगा रगतहीन क्रांती जावन ब्रिगेडीयर जनरल लान्साना काँते मुखेली जालो. १९८५ त ताचेआड बंड जालें पूण तें फसलें. १९८६ त जाल्ल्या वेचणुकांउपरांत आयजमेरेन तोच ह्या देशाचो राश्ट्राध्यक्ष आसा.

**राज्यवेवस्था**: २१ वर्सां पुराय जाल्ल्या दरेक नागरीकाक हांगा मत दिवपाचो अधिकार आसा. १९५८ सावन हांगा 'डॅमोक्रेटीक द गिनी' ह्या एकाच पक्षाची सत्ता चलताली. ह्या पक्षाची थापणूक सेकू तुरे हाणें केल्ली. ताच्या राज्यकारभारावेळार हांगा दर सात वर्सांनी वेंचणुको घेवपाची वेवस्था आशिल्ली. १९८४ त ताका मरण येतकच एप्रिल १९८६ मेरेन गिनीचो राज्यकारभार पुरायपणान लश्कराच्या नियंत्रणाखाल गेलो. १९८६ त लान्साना काँते हाणें वेंचणुको घेतल्या उपरांत कांय प्रमाणांत पर्थून राजकी थीरपण आयलां. ताचेपयलीं लश्करी राजवटीखाला 'मिलिटरी कमिटी फॉर नॅशनल रिकव्हरी' ही समिती राज्यकारभाराची जापसालदारकी सांबाळटाली.

**अर्थीक स्थिती**: ह्या देशांतल्या ९०% परस चड लोकांची जीण शेतवडीचेर आदारल्या. फूटा जालन पठाराचे देंवतेचेर काफयेचें भरपूर पीक येता. केळीं, ताडफळां, अनस, भात हांचें पीक मोट्या प्रमाणांत जाता. हे भायर मसमी भिकणां, वाटाणे, तीळ, मको, ज्वारी, मॅनिऑक, कणगां हीं पिकां ह्या देशांत जातात. रानांतल्या लांकडाचो उद्येगधंद्याखातीर उपेग जाता. मेंढरां, बोकड्यो, गोरवां, दुकरां, गाढवां आनी कोंबयो पोसपाचोय उद्येग ह्या देशांत नेटान चलता.

हिरे, अशुध्द लोखण, बॉक्साइट, भांगर हीं हांगाचीं मुखेल खनिजां. हीं खनिजां शुध्द करून तांचेपसून धातू मेळोवपाचे कारखाने हांगा हेर परकी राश्ट्रांच्या पालवान उबारल्यात.

दर्यादिगेचेर आनी न्हंयांनी नुस्तेमारीचो उद्येग चलता. हांगाचे उद्येगधंदे ल्हान स्वरुपाचे आनी थळावे पिकावळीचेर आदारीत आसात. फळां डब्यांनी भरप, तंबाखू आनी साकर शुध्दीकरण, फर्निचर हांचे कारखाने ह्या देशांत आसात. कारखान्यांची फाव तशी वाड जावंक ना.

**येरादारी आनी संचारण**: १९८४ मेरेन ह्या देशांत २८,४०० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. हातूंतले फकत ४% पक्के आसात. रेल्वेमार्गांची लांबाय ९४० किमी. आशिल्ली. चडशा न्हंयांतल्यान उदकामार्गावयली येरादारी उण्या अंतरापुरती जाता. हांगाच्या न्हंयांचेर बरेचकडेन धबधबे आशिल्ल्यान येरादारीक मात्शी आडखळ जाता. कोनाक्री हें गिनींतलें मुखेल बंदर जावन आसा. काम्सार, कासार, बेंटी आनी काकांडे ह्याय बंदरांचो उपेग जाता.

'एअर गिनी' ही हवाई मार्गांवयली येरादारी सांबाळपी संस्था आसा. कोनाक्री हांगा मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. हवाई मार्गांवयल्यान ह्या देशाचो संबंद संवसारांतल्या हेर राश्ट्रांकडेन येता.

राश्ट्रीय पांवड्यावयलें एक दिसाळें हांगा उजवाडाक येता. हें दिसाळें फ्रेंच भाशेंतल्यान आसा. हेर नेमाळ्यांची संख्याय व्हडलीशी ना. रेडिओ आनी दूरचित्रवाणीची हांगा वेवस्था आसा. प्रसारमाध्यमांचेर पुरायपणान सरकाराचें नियंत्रण आसता.

**लोक आनी समाजजीण**: गिनीच्या उत्तर वाठारांत हॅमिटिक आनी सेमिटिक वंशाच्या इस्लाम धर्माच्या फुलानी वा पेरुल पंगडांनी राबीतो केलो, जाल्यार दक्षिणेवटेन निग्रो लोकांनी वसाहती केल्यो. वंशीक नदरेन हांगाचे ४०.९% लोक फुलानी, २५.०९% मालिंके, ११.४% सुसु, ८.४% किसी, क्पेले ४.८ % आनी उरिल्ले हेर वंशांचे आसात.

धर्मीक नदरेन ६९% मुसलमान, २९.५% आदिवासी धर्माचे, १% रोमन कॅथलिक आनी उरिल्ले हेर धर्मांचे आसात. दक्षिणेवटेनच्या निग्रोंमदीं किरिस्तांव धर्माचो प्रभाव दिसून येता.

गांवगिऱ्या वाठारांनी चडशे लोक ल्हान खोंपीनी रावतात. हे लोक चडशे गोरवां पोसपी आसात. निग्रो आनी हेर वंशांची लग्नसंबंदाक लागून बऱ्याच प्रमाणांत भरसण जाल्या. शीत, ज्वारी, नुस्तें आनी मांस हें हांगाच्या लोकांचें मुखेल खाण. तंत्रगिन्यानाचे आनी विज्ञानाचे उदरगतीक लागून शारांचें प्रमाण वाडत आसा.

पारंपारिक नृत्यप्रकार आनी संगीताची हांगाच्या लोकांनी जतनाय करून दरवल्या. चामड्याच्यो वस्ती, रुपडीं आनी हेर कलाकुसरीच्यो वस्तू तयार करपांत हांगाचे लोक बरेच फिशाल आसात.

**शिक्षण**: गिनींत राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण ५% आसा. ७ ते १५ वर्सां पिरायेमेरेन जरी हांगा शिक्षण फुकट, सक्तीचें आनी एकसारकें आसलें तरी शिक्षण घेवपाखातीर बरेच उणे विद्यार्थी मुखार सरतात. शाळेंतलें शिक्षण वट्ट तेरा वर्सांखातीर आसता. सप्टेंबर ते जुलय मेरेन शिक्षणीक वर्स आसता. ह्या देशांत विश्वविद्यालय ना, पूण उंचेल्या पांवड्यावयलें शिक्षण दिवपी तीन संस्था आसात. हातूंतलीं दोन तंत्रनिकेतनां (polytechnics) आनी एक प्रशासनाचें शिक्षण दिवपी संस्था आसा. ह्या देशांतले बरेच विद्यार्थी शिक्षण घेवपाखातीर फ्रांस, आयव्हरी कोस्ट आनी अमेरिका ह्या देशांनी वचून रावल्यात.

**भाशा आनी साहित्य**: हांगाची अधिकृत भाशा फ्रेंच. बऱ्याच वाठारांनी फुलानी, बंबारा मोसी, हौसी, फोन, अरबी आनी हेर कितल्योशयोच आफ्रिकन पोटभाशा हांगाचे लोक उलयतात. हातुंतल्यो आठ भाशा, राश्ट्रीय भाशा म्हूण सरकारान जाहीर केलां.

गिनी देशाचें अशें खासा साहित्य सांपडना. पूण पारंपारिक धर्तेचेर

सादारणपणान लोकांमेरेन पावता तसल्या साहित्याची निर्मणी कामारा लाये, जिब्रिल तास्मीर नियाने, मामांदौ त्राओरे रायव्त्रा, फोदेबा कीटा आनी सेकू तुरे हांणी केल्या.

**म्हत्वाचीं थळां**: कोनाक्री, कांकान, लाबे, किंदीया हीं व्हड लोकसंख्या आशिल्लीं शारां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**गिरनार**: गुजरात राज्यांतलो सौराष्ट्र विभागांतलो सगळ्यांत ऊंच दोंगर. उंचाय: १,११७ मी.; पूर्विल्ल्या काळांत ह्या शिखराक उर्ज्जयंत पर्वत, रैवतक पर्वत, प्रभास पर्वत, वस्त्रापथ क्षेत्र अशीं नांवां आशिल्लीं. सम्राट अशोकाचे पयलीं लेगीत गिरनारचे उल्लेख आयल्यात. पयलो जैन तीर्थंकर ऋषभदेव हाणें ह्या पर्वताचो उल्लेख केल्लो. यादव वीरांनी जेन्ना मथुरा सोडून द्वारका वसयली, तेन्ना गिरनार ही तांची लीलाभूमी आशिल्ली. स्कंदपुराणाच्या प्रभास खंडांत गिरनारचें वर्णन आयलां, तें अशें:-

एकदां शिव-पार्वती कैलासाचेर बशिल्लीं आसतना थंय ब्रह्मादी देव पावले. 'तूं दैत्यांचेर लेगीत कृपा करता हें समा न्हय,' अशी विष्णून शिवाकडेन कागाळ केली. तेन्ना शिवान म्हळें, 'हांव आशुतोष. देव आसूं, वा दैत्य आसूं जो निश्ठेन म्हजी भक्ती करता, ताका हांव प्रसन्न जातां. तुमकां हें मान्य ना जाल्यार हांव हांगासावन वतां.' अशें म्हणून शिव कैलासाक सावन भायर सरलो आनी गिरनार पर्वताचेर गेलो. तेन्ना सगळे देव लेगीत पार्वतीसयत शिवाक सोदीत-सोदीत गिरनार शिखराचेर आयले. थंय शिव आपलीं वस्त्रां काडून गुप्तरुपान रावतालो. तो प्रगट जावंचो म्हूण पार्वतीन एक शिवभक्तीचें गीत गायलें. शिवान प्रसन्न जावन पार्वतीक दर्शन दिलें. पार्वतीन शिवाक कैलासाक वचपाक विनंती केली. तेन्ना शिवान जाप दिली- 'सगळे देव हांगा रावत जाल्यारूच हांव कैलासाक येतलों.' मागीर पार्वतीसयत सगळे देव अंशरुपान गिरनारचेर रावले आनी शिव-पार्वती आपल्या मूळ रुपान कैलासाक गेलीं. ह्या पर्वताच्या एका शिखराचेर विष्णू रावलो आनी दुसऱ्या शिखराचेर पार्वती अंबाच्या रुपांत रावली. शिवान आपलीं वस्त्रां हांगा काडलीं म्हूण ह्या क्षेत्राक 'वस्त्रापथ' अशें नांव पडलें.

वाङ्मयीन उल्लेखांप्रमाण शिलालेखांतूय गिरनारचे उल्लेख मेळटात. हांगाच्या अशोकाच्या शिलालेखांत अशोकाच्यो १४ धर्माज्ञा कोरांतल्यात. इ. स. १५० च्या दुसऱ्या एका शिलालेखांत रुद्रदामन राजान दखखनच्या राजाचो पराभव केल्याचो आनी हांगाचें सुदर्शन तळें दुरुस्त केल्याचो उल्लेख मेळटा. मुदलांत चंद्रगुप्त मौर्यान बांदिल्ल्या तळयाची पर्थून दुरुस्ती स्कंदगुप्ताच्या काळांत केल्याचो उल्लेख इ. स. ४५५ च्या शिलालेखांत आसा.

शाक्त, दत्त आनी जैन ह्या तीन धर्मसंप्रदायांचें गिरनार हें एक पवित्र क्षेत्र मानतात. हांगा भेट दिवपी धर्मीक यात्रेकरूंत चड आंकडो जैनांचो आसता. कारण पालिताणा हांगाच्या शत्रुंजय पर्वताची जात्रा सफळ जावपाखातीर जैनांनी गिरनार दोंगर चडुंकूच जाय, अशें जैन धर्मशास्त्रांत आसा. जैनांचो बाविसावो तीर्थंकर नेमिनाथ हाचें निर्वाण गिरनार पर्वताचेर जालें, अशी कथा जैनपुराणांत आसा. गिरनार पर्वताच्या मुळसाकडेन जैनांच्यो धर्मशाळा आसात.

गिरनारचीं वट्ट २१ शिखरां आसात. तातूंतलीं पांच यात्रेखातीर नामनेक पावल्यांत. अंबा, गोरख, गुरु, नेमिनाथ आनी कालिका शिखराक हांगा 'टूक' अशें म्हण्टात. गिरनारचे अर्दे चडटेचेर पयली टूक अंबादेवीची लागता. थंय तिचें व्हडलें देवूळ आसा. कैलासासारकें गिरीशिखर सोडून ती हांगाच्या शिखराचेर रावपाक आयली ताकालागून ह्या स्थानाक ५२ शक्तिपीठांतल्या एका पीठाचो मान फाव जाला. गुजरातांतलीं कितलींशींच कुटुंबां लग्न जातकच न्हवऱ्या-व्हंकलेक देवीचे भेटेक मुद्दम हांगा हाडटात.

गोरखशिखर हें सगळ्यांत ऊंच शिखर. ही गोरखनाथाची तपोभूमी अशें मानतात. केन्ना तरी अज्ञात काळांत ताणें पेटयल्ले धुनीची सुवात आयज लेगीत थंय दाखयतात. गुरुशिखर ही दत्तात्रयाची तपोभूमी. हांगा दत्ताच्यो पादुका आसात. ह्याच शिखराचेर निरंजन रघुनाथ, किनाराम अघोरी, नारायणम्हाराज जालवणकर ह्या दत्त उपासकांक दत्त साक्षात्कार जाल्लो अश्यो कथा सांगतात.

गुरू आनी गोरख ह्या शिखरांच्या मदीं नेमिनाथशिखर आसा. हें शिखर चडून वचपाक भोव कठीण अशें म्हण्टात. हांगा शाळिग्राम शिळेची नेमिनाथाची मूर्ती आशिल्लें नेमिनाथाचें देवूळ आसा. कृष्णाभशेनूच नेमिनाथाच्या हातांत पांचजन्य आसा. सुर्वेक लांकडाचें आशिल्लें हें देवूळ जयसिंह सिध्दराजाच्या एका जैन मंत्र्यान फातरांनी बांदलें. २२ खांब्यांचेर आदारीत आशिल्लो ताचो सभामंडप बरोच व्हडलो आसा. कालिका शिखराचेर एका काळांत अघोरी लोकांचो अड्डो आशिल्लो, अशें म्हण्टात. हांगा 'रा' खेगांर आनी चूडासमा राजपूत ह्या राजांचे व्हड प्रासाद आशिल्ले. आयज तांचे भग्न अवशेश मात उरल्यात.

गिरनार पर्वताचेर गोमुखी, हनुमानधारा, कमंडलू हीं तीन कुंडां आसून मुळसाक तेंकून दामोदर कुंड आसा. ह्या कुंडांत हाडां विरगळटात, अशी आख्यायिका आशिल्ल्यान त्या भागांतले हिंदू लोक आपल्या जाण्टेल्यांच्यो अस्थी हांगा हाडून सोडटात. गिरनारचेर 'भैरवजप' नांवाचें एक मोटें खडप आसा. ह्या खडपावयल्यान उडी मारल्यार पुनर्जल्म बऱ्या कुळांत मेळटा, असो समज आसा. देखून पयलींच्या काळांत कितलेशेच भाविक लोक ह्या खडपावयल्यान उडी मारून जीव दिताले. सद्या शासनान कायद्यान हाचेर बंदी हाडल्या. गिरनार हांगा आशिल्लें शिंवांचें अभयारण्य नामनेक पावलां.

गिरनार वचपाखातीर जुनागढ हांगा देंवचें पडटा. जुनागढसावन ८ किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या गिरनार पर्वताच्या मुळसाकडेन वचपाखातीर वाहनां आसात. पर्वत चडून वचपाखातीर डोलीची वेवस्था आसा. गिरनारचें माहात्म्य पुराण काळासावन आयजमेरेन तिगून आसा. श्रीकृष्णाच्या काळांतली म्हत्वाची घटना 'सुभद्राहरण' गिरनार पर्वताचेर घडली; अर्जुनान ह्या पर्वतावयले जात्रेचो प्रसंग सादून सुभद्रेचें हरण केल्लें, अशे उल्लेख पुराणांत मेळटात. कृष्णाच्या काळांत हांगा जावपी 'रैवतकमह' नांवाची जात्रा आयज लेगीत कार्तिक शुध्द एकादशीसावन पुनवेमेरेन भरता.

- कों. वि. सं. मं.

**गिराण**: आपले भोंवडेच्या मार्गांत खंयच्याय एका आकाशस्थ गोलाच्या (तारे, गिरे) आड जेन्ना दुसरो आकाशस्थ गोल (तारो आनी




आकृती १

गिरो) येता वा सूर्य आनी आकाशस्थ गोल हांचेमदीं दुसरो आकाशस्थ गोल येता, तेन्ना एका गोलाची सांवळी दुसऱ्या गोलाचेर पडटा वा सूर्याचें पुराय दर्शन घेवपाक आडखळ जाता तेन्ना त्या गोलाक वा सूर्याक गिराण लागलें अशें म्हण्टात. अशा वेळार जाचेर आडखळ घाल्या त्या गिऱ्याचें वा सूर्याचें पुरायपणान दर्शन जायना, तर ह्या आकाशस्थ गोलांचेर काळसर डाग पडिल्ल्यावरी दिसतात, तेन्ना गिराण लागलां अशें म्हण्टात.




आकृती २ : चंद्रगिराण




आकृती ३ : सूर्यगिराण

पृथ्वीचेर दोन गिराणां मानपाची पध्दत आसा. सूर्य आनी पृथ्वी हांचे मजगतीं चंद्र येवन पृथ्वीर चंद्राची सांवळी पडटा, ते सावळेंत आशिल्ल्या पळोवप्यांक सूर्याचें दर्शन घेवपाक आडखळ जाता तेन्ना सूर्यगिराण घडटा. सूर्य आनी चंद्र हांचेमदीं पृथ्वी येवन चंद्राचेर पृथ्वीची सांवळी पडटा तेन्ना चंद्रगिराण घडटा. पूर्विल्ल्या काळांत गिराणाविशीं वेगळ्यो कल्पना आशिल्ल्यो. भारतीय पुराणांत राहू आनी केतू हे दोन अमरत्व पाविल्ले एका राकेसाचे दोन भाग (राहू-तकली, केतू-आंग) चंद्र आनी सूर्याक गिळपाक पळेता, तेन्ना गिराण घडटा अशें सांगलां. चिनी लोकांत एक महाभयंकर सोरोप (dragon) चंद्र-सूर्याक गिळटा असो एक समज आशिल्लो.

पृथ्वीवेल्यान पळेतल्यांक सूर्य आनी चंद्र वर्सभरांत एका खाशेल्या मार्गान थीर नखेत्रांमदल्यान पृथ्वीभोंवतणी भोंवतडे मारतात अशें दिसता. सूर्याच्या ह्या मार्गाक 'आमनिक वृत्त' अशें म्हण्टात. चंद्रमार्ग आमनिक वृत्तालागीं ५° ९' इतलो कोन करता (पळेयात आकृती- १). ह्या दोन मार्गांच्या छेद-बिंदूंक राहू आनी केतू अशें म्हण्टात. अस्तंत्या ज्योतिशशास्त्रांत हांकां ascending and descending nodes अशें म्हण्टात. सूर्य वा चंद्र, ह्या बिंदूंच्या लागसार आयल्यार गिराण घडूंक शकता. सूर्यगिराणां अमाशेक जातात. चंद्रगिराणां पुनवेक जातात. चंद्रगिराणांत सूर्य आनी चंद्र हांचे मदीं पृथ्वी येवन पृथ्वीची सांवळी चंद्राचेर पडटा. हे सांवळेचे दोन भाग आसतात (पळेयात आकृती -२). आडव्या रेखांनी रंगयल्ल्या penumbra ह्या भागांत चंद्र आयल्यार चंद्राचो कांय भागूच पृथ्वीचे सांवळेंत येता. उब्या रेखांनी रंगयल्ल्या umbra भागांत चंद्र आयल्यार चंद्राचो पुराय भाग पृथ्वीचे सावळेंत येता आनी खग्रास चंद्रगिराण घडटा. सगळींच चंद्रगिराणां, जंय चंद्र दिसूंक येता थंय, सगळेकडेन सारकींच दिसतात. चंद्राची गती पृथ्वीचे सांवळेचे गतीपरस चड आशिल्ल्यान चंद्र उदेंतेकडल्यान सांवळेंत भितर सरता, सांवळी हूपता आनी अस्तंतेकडल्यान भायर सरता.

सूर्य आनी पृथ्वी मजगतीं चंद्र येतकच सूर्यगिराणां घडटात. चंद्राची सांवळी पृथ्वीचेर पडटा आनी ते सावळेंत आशिल्ल्या लोकांक सूर्याचेर चंद्राचें सांवट पडिल्लेवरी दिसून सूर्यगिराण घडटा (पळेयात आकृती-३).




आकृती ४ : खंडग्रास सूर्यगिराण

चंद्राची सांवळी पृथ्वीच्या ५८ ते ६० अर्दव्यासाइतली लांब पडटा. चंद्राचें पृथ्वीरसावन उण्यांत उणें अंतर पृथ्वीच्या ५६ अर्दव्यासांइतलें आसता तर चडांत चड अंतर ६४ अर्दव्यासांइतलें आसता. जेन्ना हे सांवळेचें तोंक (पळेयात आकृती-३: 'अ' बिंदू) पृथ्वीवेल्यान पडटा तेन्ना ते सांवळेंतल्या लोकांक खग्रास सूर्यगिराण दिसता. जर हो बिंदू पृथ्वी आनी चंद्र हांचे मदीं आयलो जाल्यार सावळेंतल्या लोकांक कांकणाच्या

आकृतीचें सूर्यगिराण दिसता. हातूंत सूर्याच्या कांकणाच्या आकाराची कड तितली दिसता. खंडग्रास सूर्यगिराण दिसपाचो भाग चंद्रगिराणांतल्यावरी penumbra ची आकृती काडल्यार मेळटा. चंद्राचे सांवळेचो पट्टो पृथ्वीर ज्या भागांत पडटा त्याच भागांतल्या लोकांक खग्रास सूर्यगिराण दिसूंक शकता. चंद्र पृथ्वीसावन उण्यांत उण्या अंतराचेर आसतना आनी सूर्य चडात चड अंतराचेर आसतना ह्या पट्ट्याची रुंदाय सुमार २९० किमी. इतली आसता. Penumbra चो पट्टो सुमार ७,८४० किमी. इतलो रुंद आसता (पळेयात आकृती-४).

पूर्विल्ल्या काळांतल्या काल्डीयन लोकांनी गिराणांचीं कुळां थारायल्लीं. दर अठरा वर्सांनी १०, ११ वा १२ दिसांनी (६,५८५.३२ दीस) घडपी गिराणां एकासारकीं एक आसतात. त्या काळाक 'सारोस' (Saros) चक्र अशें म्हण्टात. चंद्रगिराणाचीं २८ आनी सूर्यगिराणांचीं ४२ कुळां आसात. हीं गिराणां दरेका कुळांत ६५८५.३२ दिसांनी एक अशीं घडत, उत्तर-दक्षिण दिशांनी वाडत प्रवास करतात. खंडग्रासान सुरवात जावन खग्रास जावन परत खंडग्रास जातकच तीं लय पावतात. एका चंद्रकुळांत ४४-४५ गिराणां घडटात. कुळाची पिराय ८६५ वर्सांचीं आसता. सूर्यकुळांतल्या गिराणांचो आंकडो ७०-७१ आसून कुळाची पिराय १,२६० वर्सां इतली आसता.

एका वर्सांत चडांत चड ७ गिराणां घडटात. तातूंत ५ वा ४ सूर्यगिराणां आनी २ वा ३ चंद्रगिराणां आसतात. उण्यांत उणीं २ गिराणां घडल्यार तीं दोनूय सूर्यगिराणां आसतात. ऑपोल्झर ह्या ऑस्ट्रीयन ज्योतिर्वेत्यान आपल्या पुस्तकांत ८,००० सूर्यगिराणां आनी ५,००० चंद्रगिराणांची एक वळेरी दिल्या. ह्या गिराणांचो काळ इ.स.प. १२० ते इ.स. २१६१ वर्स इतलो आसा.

इ.स. २००० वर्सामेरेन घडून येवपाचीं कांय खग्रास सूर्यगिराणां अशीं

| तारीख | भारतीय प्रमाणवेळ | वेळ |
|---|---|---|
| ३० जून १९९२ | १७.४९ | ५.५ मि. |
| ३ नोव्हें. १९९४ | १९.०६ | ४.६ मि. |
| २४ ऑक्टो. १९९५ | १०.०७ | २.४ मि. |
| ९ मार्च १९९७ | ०६.४५ | २.९ मि. |
| ११ फेब्रु. १९९८ | १६.३८ | ४.५ मि. |
| २६ ऑगस्ट १९९९ | २९.५७ | २.६ मि. |

- डॉ. अरुण हेबळेकर

## गिरी, वराहगिरी वेंकट:

(जल्म: १० ऑगस्ट १८९४, बेऱ्हमपूर-ओरिसा).

भारताचो चवथो राश्ट्रपती. ताचो जल्म एका मध्यमवर्गीय कुटुंबांत जालो. मुळावें शिक्षण बेऱ्हमपूर हांगा जातकच डब्लिन विद्यापीठांत ताणें कायद्याचें शिक्षण घेतलें. बार ॲट लॉ जातकच ताणें वकिली सुरू केली. फुडें तो काँग्रेसीचो वांगडी जालो आनी होमरुल चळवळींत सामील जालो. कामगार संघटनेचो सचिव आनी 'ऑल इंडिया रेल्वेमेन फेडरेशन'चो अध्यक्ष म्हूण ताणें काम केलें. १९२६ आनी १९४२ वर्सा, तो 'ऑल इंडिया ट्रेड युनियन काँग्रेस' चो अध्यक्ष आशिल्लो. १९८७ त जिनीव्हाक भरिल्ले आंतरराश्ट्रीय मजूर संघटनेंत भारतीय कामगारांचो प्रतिनिधी म्हूण तो हाजीर रावलो. १९३१ त ताणें गोलमेज परिशदेंत वांटो घेतलो. १९३४-३७ ह्या काळांत मध्यवर्ती विधिमंडळांत ताणें कामगारांचें प्रतिनिधीत्व केलें. त्या वेळा तो कामगार, उद्येगधंदे, सहकार्य आनी वाणिज्य ह्या खात्यांचो मद्रास इलाख्यांत मंत्री आशिल्लो (१९३७-३९). हंगामी हिंदुस्थान सरकारचो परराश्ट्रवकील म्हूण ताणें श्रीलंकेंत दोन वर्सां काम केलें आनी उपरांत तो कामगार मंत्री जालो. १९५७-६७ ह्या काळांत तो राज्यपाल म्हूण उत्तर प्रदेश, केरळ आनी कर्नाटक ह्या राज्यांत आशिल्लो. ते उपरांत तो भारताचो उपराश्ट्रपती (१९६७-६९) आनी मागीर राश्ट्रपती (१९६९-७४) जालो.

ताणें कितल्याश्याच राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय समित्यांचेर काम केलां. कामगारांच्या हिताखातीर ताणें जिवीतभर कार्य केलें. एक निर्भीड कामगार फुडारी म्हूण ताणें नामना मेळयली. कामगारांचे कितलेशेच प्रस्न ताणें समजिकायेन सोडयले. इतलेंच न्हय, तर तेविशींचे आपले विचार ताणें 'Industrial Relations' (१९५५), 'Labour Problems in Indian Industry' (१९५८), 'Jobs for our millions' (१९६०) ह्या पुस्तकांवरवीं परगटायले. ह्या सगळ्या कार्याखातीर बनारस, आंध्र विद्यापीठांनी ताचो गौरव करून ताका डॉक्टरेट पदवी दिली. भारत सरकारान 'भारतरत्न' हो सर्वोच्च पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान केलो (१९७५).

- कों. वि. सं. मं.

## गिरे:

खंयच्याय ताऱ्या भोंवतणी भोंवड्यो घालपी आकाशस्थ गोलाक गिरो म्हण्टात. गिरे ताऱ्यांभशेन स्वयंप्रकाशी आसनात. पूर्विल्ल्या काळांतले भारतीय आनी अस्तंतेकडले लोक थीर नखेत्रांमदीं भोंवपी आकाशस्थ दिव्य तेजांक गिरे म्हण्टाले. पृथ्वीपसूनच्या तांच्या अंतरांचे वळेरेन चंद्र, बुध, शुक्र, सूर्य, मंगळ, गुरू आनी शनी हे गिरे पृथ्वीभोंवतणी भोंवड्यो घालतात असो समज, कोपर्निकसाच्या १५४३ वर्साच्या सूर्यमाळेविशींच्या सोदापयलीं संवसारभर आशिल्लो. तेखेरीज भारतीय ज्योतिर्शास्त्रांत राहू आनी केतू ह्या दोन काल्पनिक बिंदूकूय गिरे मानल्यात. आतां पृथ्वीक धरून णव गिरे मानतात. णवूय गिरे सूर्याभोंवतणी भोंवड्यो मारतात.

तांची सूर्यापसूनच्या अंतरावेल्यान वळेरी जाता ती अशी- बुध, शुक्र, पृथ्वी, मंगळ, गुरु, शनी, प्रजापती, वरुण, कुबेर १९८८ त, वरुण कुबेरापरस सूर्यापसून पयस आशिल्लो. कुबेराची कक्षा कांय भागांनी वरूणाचे कक्षेभितर पडटा. हातूंतले बुध, शुक्र, मंगळ, गुरू आनी शनी हे नदरेक दिसूंक येतात ते गिरे पूर्विल्ल्या काळासावन खबर आशिल्ले आनी हांचे गतीवयल्यानूच कोपर्निकसान १५४३ त सूर्यकेंद्रित सूर्यकुलाची कल्पना पयलीं मांडली. प्रजापतीचो सोद विल्यम हर्शल हाणें १७८१ वर्सा, वरुणाचो सोद योहान गॉल हाणें १८४६ वर्सा आनी कुबेराचो सोद क्लाइड टॉमबॉ हाणें १९३० वर्सा लायलो. हेभायर मंगळ आनी गुरु हांचे मजगतीं दोन हजारांवयर गिरुल्यांचो (planetoids वा asteroids) १८०० वर्साउपरांत सोद लागलो. १९७८ वर्सा कुबेराच्या एक तृतीयांश आकाराच्या ताच्या सहचऱ्याचो (charon) सोदूय लागलो. बुध, शुक्र, पृथ्वी आनी मंगळ हांकां पृथ्वीकुलाचे गिरे (Terran Planets) म्हण्टात. गुरु, शनी, प्रजापती आनी वरुण हे व्हडले गिरे वायुरुप आशिल्ल्यान तांकां वायु-राक्षस (Gas Giants) म्हण्टात. सगळ्या गिऱ्यांच्या भोंवडेच्या मार्गांचो थर एकूच आसता. सूर्यमाळेचे घडणुकेविशीं जायते सिध्दांत आसात. तातूंतल्या वाइझेकर (१९४४) हाच्या म्हणण्याप्रमाण सूर्याचो तारो तयार जाता आसतनाच ताचे भोंवतणी आशिल्लें वस्तुमान थंड जावन तांचेपसून गिरे तयार जाले.

योहान केपलर हाणें १६०९ त गिऱ्यांच्या मार्गाविशीं नेम तयार केले. त्या नेमांप्रमाण सगळे गिरे सूर्याभोंवतणी लंबवर्तुळाकृती (elliptical) मार्गान भोंवड्यो घालतात. गिरे सूर्याक जितले लागीं आसतात, तितलीच तांची गती चड आनी भोंवडेचो काळ कमी आसता. सगळे गिरे सूर्याभोंवतणी भोंवड्यो घालतना आपल्या आसा भोंवतणीय घुंवतात. भौतेक गिऱ्यांची घुंवपाची दिशा भोंवडेचे दिशेनूच आसा. शुक्र आनी प्रजापती हाका आडवाद आसात. बुध आनी शुक्र सोडल्यार हेर गिऱ्यांक कमीत कमी एक चंद्र वा सहचर आसा. शनी, प्रजापती आनी गुरु हांकां उपग्रहाबगर कांकणावरीं कडींय आसात. शुक्र, पृथ्वी आनी मंगळ हांचेर वातावरण (atmosphere) आसा.

- डॉ. अरूण हेबळेकर

## गिऱ्यांच्या मांडावळीचो तक्तो

| गिऱ्याचें नांव भारतीय-अस्तंत | सुर्याकडल्यान सरासरी अंतर (पृथ्वीचें सरासरी अंतर= १ A.u. ह्या प्रमाणांत) | सुर्याभोंवतणी भोंवडेचो काळ (पृथ्वीच्या वर्सांत) | गिऱ्याच्या वातावरणातलो मुखेल वायू | गिऱ्याच्या पृष्ठभागाचें सरासरी तापमान (अदमासान) ° से. | गिऱ्याच्या उपग्रहांची संख्या (अदमासान) | गिऱ्यांच्या कांय मुखेल उपग्रहांचीं नांवां |
|---|---|---|---|---|---|---|
| बुध (Mercury) | ०.३८७ | ०.२४१ | - | १७०° | - | - |
| शुक्र (Venus) | ०.७२३ | ०.६१५ | कार्बन डाय-ऑक्साईड | ४६०° | - | - |
| पृथ्वी(Earth) | १ | १ | नायट्रोजन आनी ऑक्सीजन | १५° | १ | चंद्र |
| मंगळ (Mars) | १.५२४ | १.८८१ | कार्बन डाय-ऑक्साईड | -५५° | २ | फोबोस, डायमोस |
| गुरू (Jupiter) | ५.२०३ | ११.८६ | - | - | १६ (बारीक कडीं आसात) | अमाल्थीया, आयो, युरेप गॅनिमीड, कॅलीस्टो, लेडा, हिमालिया, लायसिथिया, इलारा, आनांके, कार्मे, पॅसिफिया, सिनोपे. |
| शनी (Saturn) | ९.५३९ | २९.४६ | - | - | १७ (सोबीत कडीं आसात) | मिमास, एन्सेलेडस, टिथायस, डिओने, ऱ्हीआ, टिटॅन, हायपेरीयन, आयेपरिस, फांबी. |
| प्रजापती (Uranus) | १९.१८ | ८४.०१ | हायड्रोजन, हिलियम | - | ५ (कडीं आसात) | मिरांडा, एरिएल, अंब्रिएल, टिटॅनिया, ओबेरॉन. |
| वरुण (Neptune) | ३०.०६ | १६४.८ | हायड्रोजन, हिलियम | - | ४ | ट्रिटॉन, नेरायड. |
| कुबेर (Pluto) | ३९.४४ | २४७.७ | मिथेन, आरगॉन | -२२०° | १ | चेरॅन. |

**गीतगोविंद:** बंगाल प्रांतांत जावन गेल्लो म्हान संस्कृत कवी जयदेव हाच्या संस्कृत काव्यांत अग्रंवर जाल्ल्या कृष्णकाव्याक 'गीतगोविंद' ह्या नांवान वळखतात. हें काव्य बाराव्या शेंकड्याच्या सुमाराक बरयल्लें. हें काव्य रागतालबध्द संगीतांत आसा. तातूंत चोवीस गीतां आसून ह्या गीतांनी श्रीकृष्णाचें (गोविंदाचें) स्तवन केलां. ह्या चोवीस गीतांक 'प्रबंध' वा 'अष्टपद्या' अशें म्हण्टात. हे चोवीस प्रबंध बारा सर्गांत वांटल्यात. गीतगोविंदांतलीं चोवीसूय गीतां नृत्य करता आसतना म्हणपाचीं आसतात. गीतगोविंदांत प्रबंधाचे सुर्वेक आनी शेवटाक वेगवेगळ्या वृत्तांत जायते श्लोक रचिल्ले आसून, श्लोक आनी प्रबंधाचे हे भरसणेक लागून गीतगोविंदाक एक अप्रूप सोबीतकाय लाबल्या.

श्रीकृष्णाची शृंगारलीला हो गीतगोविंदाचो आत्मो जावन आसा. राधा-कृष्णाचो मोग, विरह, मीलन ह्या विशयांवेल्यो काव्य-रचना हातूंत आयल्यो तरी तातूंत एक सलगपणा ना. गोविंद, राधा आनी राधेची सखी अश्यो तीन व्यक्तिरेखा ह्या काव्यांत आसात. राधेची सखी ह्या काव्यांत दूतीचें काम करता. गोविंद राधाच्या मनाची अवस्था एकामेकांक कळोवन निमाणें ती तांचें मिलन घडोवन हाडटा.

विप्रलंभ आनी संभोग अशा दोनूय तरांच्या शृंगारांचो निमाणो बिंदू हांगा मेळटा. शृंगाराच्या रुपड्यासकल जयदेवान गूढ आध्यात्मिक अर्थ सांगला आनी राधा-कृष्ण हें जीवात्मा आनी परमात्मा हांचेवेलें रुपक आसा, अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. आध्यात्मिक अर्थ लावपाक आदार दिवपी कांय उल्लेख गीतगोविंदांत जरी आयले, तरीय हें काव्य राधा-कृष्णाचें म्हळ्यार दादल्या-बायलेच्या मोगाचें प्रतीक जावन आसा, असो समज आसा.

शृंगारावांगडाच कवीचें भक्तीन भरिल्लें अंतस्कर्ण जशें ह्या काव्यांत दिश्टी पडटा, तेचपरी साहित्यशास्त्रज्ञांनी वर्णन केल्ल्यो अभिसारिका, वासकसज्जा, विप्रलब्धा हेर ह्यो नायिका एकठांय हाडपाची खुबीय दिश्टी पडटा. मधुरा-भक्तीचीं बिजां ह्या काव्यांत आसुं येत, अशें म्हण्टात. तातूंत तरांतरांचीं यमकां, अनुप्रास सारके शब्दालंकार ताणें वापरल्यात. उपका, रुपका, उत्प्रेक्षा, श्लेष सारके अर्थालंकारूय जाग्या जाग्यांनी आसात. देखीक:

> उन्मालन्मधुगन्धलुब्धमधुपव्याधूतचूताङ्कुर-
> क्रीडत्कोकिलकाकलीकलकलैरुद्‌गीर्णकर्णज्वराः ॥
> नीयन्ते पथिकैः कथं कथमपि ध्यानावधानक्षण
> प्राप्तप्राणसमागमरसोल्लासैरमी वासराः ॥ (१.९)

वसंत ऋतु सुरू जाला. आंबो चंवल्ला. भ्रमर त्या आंब्या फुलांचेर पिशे जावन तांचेर बसल्यात. ताका लागून फुलां हालतात. तेच खांदयेर कोगूळ बसल्या. ताचें 'कुहूकुहू' अशा गोड आवजांत गायन चल्लां. त्याच आंब्या-रुखाच्या पोंदा बशिल्ल्या विरही पथिकाच्या कानांक ह्या कोगळाचें कुंजन झोंबता. त्या कुंजनाक लागून ताका आपले मोगिकेची याद येता. ह्या चिंतनांत ताका आपले मोगिकेबराबरच्या समागमाचें कांय खिणांखातीर कांय जायना, पूण सुख मेळटा. तितल्याच सुखाचेर तो आपले विरहअवस्थेचें दीस कशेतरेन काडटा.

निवेदन, वर्णन, गीत सार ह्या गजालींचो नकसूद रितीन उपेग करून जयदेवान ह्या काव्याक आगळेंच रुप दिलां. श्रीकृष्णाच्यो शृंगारलिला वर्णुपाक गेय चालींत पद्य रचपाची ही खाशेली कल्पना जयदेवान सगळ्यांत पयलीं वापरली. गीतगोविंदाचें हे एक खाशेलपण जावन आसा. गीतगोविंदांतले अष्टपदीरचनेचेर त्या काळांतल्या अपभ्रंश काव्यशैलीचो परिणाम जाल्लो दिसता.

मम्मट, विश्वनाथ, अपय्य-दीक्षित सारके साहित्यशास्त्रज्ञ अलंकारांच्या उदाहरणांखातीर गीतगोविंदांतल्या श्लोकांचो उल्लेख करतात. ताचेवेल्यान गीतगोविंद काव्याक सगळयांची मान्यताय मेळिल्ली, अशें म्हणूं येता. कांय शतमानांपयलीं केरळांत 'अष्टपदीअट्टम' नांवाचो नृत्यप्रकार अस्तित्वांत आशिल्लो. हो नृत्यप्रकार गीतगोविंदाच्या आदाराचेरूच बसयिल्लो. चैतन्यसंप्रदायांत ह्या ग्रंथाक उपासना करपाचो ग्रंथ हे नदरेनूय म्हत्व आसा.

अस्तंत आनी उदेंतेचे साहित्यीक गीत-गोविंदाक व्हड मान दितात. रवींद्रनाथ टागोरासारखो साहित्यिक गीत-गोविंदांतल्या काव्यान आपूण भारावन गेलो, अशें आपल्या भुरगेपणांतल्या यादींनी सांगता. रोमेशचंद्र दत्त, चिं. वि. वैद्य, डॉ. किथ हे विद्वान गीत-गोविंदाक सगळ्यांत श्रेश्ठ काव्य म्हूण मानतात.

भानुदत्ताचें 'गीतगौरीपति', गोविंददासाचें 'संगीतमाधव', कृष्णदत्ताचें 'गीतगणपति', सोमनाथाचे 'कृष्ण गीत' हीं गीतगोविंदाचीं अनुकरणां जावन आसात. सर विल्यम जोन्सान १८०७ त कलेक्टेड वर्क्स हातूंत, तर एडविन आर्नल्ड हाणें १८७५ त 'द इंडियन सॉंग ऑफ सॉंग्ज' हातूंत गीतगोविंदाचो इंग्लीशींत अणकार केला. दत्तात्रय अनंत आपटे हाणें ह्या काव्य ग्रंथाचो अणकार 'राधामाधवविलास' ह्या नांवान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गीतिरामायण:** दुर्गावर कायस्थ ह्या कवीन बरयल्ल्या रामकाव्याक 'गीतिरामायण' म्हूण वळखतात. हें रामकाव्य आसामी भाशेंत बरयलां. दुर्गावर कायस्थान वेळ-काळाप्रमाण तातूंत कांय बदल केल्लें आसले तरी ह्या काव्य-ग्रंथाची रचणूक माधव कंदलीच्या रामायणासारकीच आसा.

दुर्गावर कायस्थान आपलें काव्य लोकांच्या अंतस्करणांत वचून बसचें ह्या हेतान बरयल्लें. तेखातीर कवीन वाल्मीकी रामायणांतल्या कांय वेचीक प्रसंगांचो आपल्याक जाय तसो उपेग करून घेतला. अरण्यकांडांत करूणरसाक चड म्हत्व दिवन थंयचे कांय प्रसंग कवीन रोसाळ आनी म्होंवाळ उतरांनी चितारल्यात.

दंडकारण्यांत रावपी सीता आपले अलौकीक शक्तीचो उपेग करून अयोध्येची निर्मिती करता आनी ते अयोध्येंत राम-लक्ष्मणासयत मदनचतुर्दशीच्या सुवाळ्यांत रंगून वता, अशी एक मनभुलोवणी कल्पना दुर्गावरान आपल्या काव्यांत रचल्या.

गीतिरामायणांत राम-सीता-लक्ष्मण तशेंच हेरांचे सामान्य मनशांवरीं विचार आनी विकार ताणें दाखयल्यात. डॉ. काकतीन ह्या काव्याक लोकरामायणाचें 'लोकसंस्करण' अशें म्हळां.

गीतिरामायण, ओझा पाली गीतांचे परंपरेंतलें जावन आसा. हे परंपरेंत एक मुखेल गायक, मुखेल कथागीत म्हण्टा. ताचे उरिल्ले वांगडी ताचें पालुपद घोळोवन घोळोवन म्हण्टात. आसामांत ही गावपाची पध्दत पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**गुंज:** (मराठी- गुंज, हिंदी-चिर्मिती, गुंची; गुजराती- चनोती; संस्कृत- गुंजिका; इंग्लीश- क्रॅब्ज आय, इंडियन लिकराइस, रोजरी पी; लॅटीन- ॲब्रस प्रिकॅटोरियस; कूळ- लेग्युमिनोजी; उपकूळ- पॅपिलिऑनेटी).

खूब वर्सां उरपी वेल दुसऱ्या रुखाचो आदार घेवन वयर चडटा. तिची उंचाय सुमार पांच ते स मी. आसता. भारतांत सगळ्या वाठारांनी ही वेल जाता. गोंयांत तेचपरी महाराष्ट्रांतल्या कोंकण आनी कर्नाटकांतल्या उत्तर कारवार ह्या प्रदेशांत दर्यादेगेवेल्या पातळ आनी ओलसार रानांनी ही वेल दिश्टी पडटा. उश्ण कटिबंधांत हेरकडेन ही वेल सादारणपणान दिश्टी पडटा.

हे वेलीचें कांड गुळगुळीत आसता. पानां एकसंध आनी पांखांभशेन आसतात. पावसाळ्यांत हे वेलीक तुऱ्याचेर गुलाबी रंगाचीं ल्हान आनी गच्च फुलां येतात. सांगो खूब ल्हान आसतात आनी त्यो फुट्टकच तातूंत वाटकुळ्यो गुळगुळीत चार ते स बियो भायर पडटात. ह्या बियांक गुंजो म्हण्टात. गुंजो दोन तरांच्यो आसतात. तांबडी आनी तिचेर काळे थिपके आशिल्ली आनी दुसरी धवी. कांय वेळां ह्यो गुंजो पुराय तांबड्यो वा पुराय काळ्यो आसतात.

**उपेग:** हे वेलीचीं मुळां, पानां आनी बियो वखदी आसतात. जीं पुश्टीक, कामोत्तेजक, पित्तनाशक, रुचिवर्धक, कांतिवर्धक,

श्वेतकुष्ठनाशक, चर्मरोगहारक आसतात. घावे आनी खोरोज हांचेरूय मुळां, पानां आनी बियो उपेगी पडटात. जोर, तकली उसळप, दमो, तोंडांतलीं दुखणीं, दांत किडप हांचेर मुळाचो रोस घेतात. ताळो बसतकच ताचीं पानां चाबून खाल्यार ताळो सुट्टा. बियो कांय प्रमाणांत सारक, वांतिकारक आनी चड प्रमाणात विखारी आसतात. सांधे धरप, पांयांचे तळवे हुलपप हांचेर बियांचो लेप लायतात. चड तकली उसळल्यार बियांचो पिठो पुडीभशेन ओडल्यार उपायकारक थारता. बियांतल्या विखारी द्रव्यांत अॅब्रीन हें ग्लुकोसाइड आसता. आदल्या काळांत भांगर जोखपाक गुंजीचो वजनमाप म्हूण उपेग करताले.

- कों. वि. सं. मं.

**गुंतूरः** आंध्र प्रदेश राज्याचे उदेंत देगेवेल्या गुंतूर जिल्ह्याचें मुखेल थळ. लोकसंख्याः ३,६७,२०० (१९८१). आवांठः ३०.१ चौ. किमी.; हैदराबाद शाराच्या ४०० किमी. आग्नेय दिकेक, मद्रास, कलकत्ता महामार्गाचेर, विजयवाड्याच्या नैर्ऋत्येक २० किमी. अंतराचेर हें शार वसलां. हे शाराचें गुंतूर हें नांव तेलगु शब्द गुंटा हाचेवेल्यान आयलां. गुंटा म्हळ्यार तळें.

सगळ्यांत आदीं हें शार फ्रेंचांनी कोंडाविड दोंगुल्ल्यापसून उदेंतेक ६ किमी. पयस वसयल्लें. उत्तर सरकार विभागाचे राजधानीचें हें शार मुर्तझानगर नांवान वळखताले. फुडें १७८८ वर्सा गुंतूर शार निजामाकडल्यान ब्रिटिशांचे सत्तेखाला गेलें.

आदल्या काळासावन गुंतूर एक वेपारी केंद्र म्हूण वळखतात. हांगा तंबाखू, धान्य, कापूस, भिकणां, हांचो व्हड वेपार चलता. तंबाखूच्या वेपाराखातीर गुंतूर शाराक खूब खाशेलेपण आसा. तेचपरी तांदूळ सडप, भिकणांपसून तेल काडप, चामडें कमोवप, धातुच्यो तरेकवार वस्तू करप आदींचे कारखाने हांगा आसात.

ह्या शारांत महाविद्यालयां आनी खूबश्यो शिक्षणीक संस्था आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**गुजरातः** भारतीय संघराज्यांतलें एक घटक-राज्य. ह्या राज्याचे उत्तरेक राजस्थान, दक्षिणेक महाराष्ट्र, उदेंतेक महाराष्ट्र आनी मध्यप्रदेश, अस्तंतेक अरबी दर्या तर इशान्येक पाकिस्तान आसा. अक्षांश आनी रेखांश विस्तार २०° ६′ उत्तर ते २४° ४२′ उत्तर; ६८° ४′ उदेत तें ७४° २४′ उदेंत. आवांठः १,९६,०२४ चौ. किमी.; लोकसंख्याः ४,११,७४,०६० (१९९१).

**भूंयवर्णनः** *१. दर्यादिगेकडली जमीनः* कच्छच्या आखातासावन दमणगंगेमेरेनचो हो वाठार. हो वाठार रेंवेन आनी मीठान भरला. उदक खारें आशिल्ल्यान हांगाचे जमनीचेर मीठाचे थर आसतात. वाऱ्यान हें मीठ मातयेंत एकठांय जाता. हें मीठ हेर वाठारांनी फाफसल्ल्यान पिकांक रोग जातात. तण हांगा बरें वाडटा.

*२. सपाट वाठारः* ह्या वाठाराक सुकते-भरतेचो त्रास जायना. माती चिकट आसा. जमीन सपाट आसा. नर्मदा आनी घघर ह्यो दोन न्हंयो हांगा काळो गाळ हाडून उडयतात. तेखातीर पिकावळ हांगा बरी जाता.

*३. दोंगराळ वाठारः* ह्या वाठारांत अरवली, विंध्य, सातपुडा आनी सह्याद्री ह्या दोंगरांचे फांटे आसात. दोंगराचे कुशींतल्यान जायत्यो न्हंयो सुरू जातात. हांगा झाडां-पेडांचीं रानां आसात. नर्मदा आनी तापी ह्या मुखेल न्हंयांसावन ह्या वाठाराक उदक मेळटा.

कच्छचें रण होय गुजरातचो वाठार. ह्या वाठाराचे दोन भाग जातात. व्हडलें रण आनी धाकटें रण. हाचें क्षेत्रफळ २१,००० चौ. किमी. इतलें आसा. व्हडल्या रणाची उदेंत-अस्तंत लांबाय २५६ किमी. आनी दक्षिण-उत्तर लांबाय १२८ किमी. आसा. हो वाठार रेंवट आसून फातरांनी भरिल्लो आसा. भुंयकांपांचें प्रमाणूय खूब आसा. पावसांत हें रण उदकान भरता, तर गिमांत सुकें सडसडीत जाता. गिमांत ह्या भागांत मृगजळांचीं तळीं दिसतात.

**न्हंयोः** तापी, मही, साबरमती, नर्मदा ह्यो राज्यांतल्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो आसात. तापी न्हंयंत बाराय म्हयने उदक आशिल्ल्यान उदका येरादारी जाता. सौराष्ट्रांत भादर, मच्छू, ओझत, अजी ह्यो न्हंयो आसात. गीरच्या दोंगरांनी उगम पावन शत्रुंजय न्हंय व्हांवता. कच्छच्या रणांत सरस्वती, बनास आनी रुपेण ह्यो न्हंयो व्हांवतात.

पिरम, चांच आनी सियाळ हे जुंवे सौराष्ट्रांत आसात. दीव आनी शंखाद्वार अशे हेर कांय जुंवे आसात.

**दोंगरः** सौराष्ट्रांतले दोंगर एकामेकासामकार उबे आशिल्ले दिसतात. उत्तरेकडल्या दोंगर फांट्यांत कनडोल्याचो दोंगर, चोटिल्याचो दोंगर आनी गोपचो दोंगर आस्पावता. बडोद्याचे उदेंतेक २५ मैलांचेर पावागड म्हूण इल्लोसो दोंगर आसा. पालताणांत स हजार सपणां आनी दोन हजार फूट उंचायेचो शत्रुंजय दोंगर आसा. जुनागढसावन तीन मैलांचेर गिरनार दोंगर आसा. गोरखनाथ तेंगशेमेरेन ताची उंचाय ३,६६६ फूट आसा. गिरनार पर्वताक २१ तेंगश्यो आसून तातूंतल्या अंबा, गोरखनाथ, अवगड, गुरू आनी कालिका ह्यो चड म्हत्वाच्यो आसात.

**दर्याः** गुजराताक अरबी दर्याची १६०० किमी. लांबायेची दर्यादेग लाबल्या.

**हवामानः** गुजरात राज्याचो चडसो वाठार उश्ण कटीबंधांत येता. गुजरात राज्यांत सादारणपणान हवामान एकसारकें उरना. पावसाचें प्रमाण ७५ ते १५२ सेंमी. आसता. दाट रान नाशिल्ल्यान आनी ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्यो आशिल्ल्यान पावस उणो पडटा, तशेंच दुकळाचें प्रमाणूय चड आसा.

डांग, वलसाड हांगा रानांच्या वाठारांनी २०० सेंमी. पावस पडटा. गुजरातच्या मदल्या सपाट वाठारांतली हवा एकसारकी ना. दोंगराकडली हवा थंड आसता. दर्यादिगेवेली हवा थंडसाण आनी हूनसाण हे नदरेन सम आसता. उत्तर गुजरातांत शिंयाळ्यांत तापमान बरेंच उणें आसता. पावस ५० ते १०० सेंमी. आसता. उत्तर आनी अस्तंत सौराष्ट्रांत ६७ सेंमी. परस कमी पावस पडटा. थंयची हवा सुकी आसून खर थंडी पडटा. दक्षिण आनी उदेंत सौराष्ट्रांत पावस खूब थोडो पडटा. कच्छच्या सुक्या सडसडीत वाठारांनी तापमान १५.६° से. ते २१.१° से. आसता. गुजरात राज्याच्या हेर वाठारांनी तापमान २१.१° से. ते २३.९° से. आसता.

**बनस्पत आनी मोनजातः** राज्यांतली १९.६६ लाख हेक्टर जमीन रानाखाल आसा. हें प्रमाण राज्याच्या वट्ट आवांठाच्या १० टक्के आसा. तातूंतली ११ लाख हॅक्टर जमीन डांग, जुनागढ, पंचमहाल, बडोदें, भडोच, सुरत, बनास, काठा आनी थोडीभोव जामनगर आनी कच्छ हांगा आसा. सरकार सद्या रानाची सुवात वाडोवंक सोदता. सायल, वेळू, चंदन, खैर, गुग्गुळ, मीमल, धुमडा, धुडीजा हीं झाडां गुजरातच्या रानांनी दिसतात.

गुजरात राज्यांतल्यो काठेवाड हांगाच्यो गायो तर मेहसाणा आनी जाफराबादच्यो म्हशी दुदाखातीर नामना जोडून आसात. कच्छ वाठारांत मेढरां आनी जंगली गाढवां दिसून येतात. गिरच्या जंगलांत शिंव सांपडटात. सौराष्ट्रांत घोडे व्हड प्रमाणांत दिसतात.

आपली सुवात सोडून भोंवपी सुकणीं खास करून शिंयाळ्याच्या दिसांनी दिसतात. ओखा बंदरालागीं हिमालय, तिबेट, सायबेरिया हांगाच्यान आयिल्लीं क्रौंच सुकणीं दिसतात. शहामृग कच्छ वाठारांत तांतयां घालपाक येतात. मोर, राजहंस, बदकां, बगळे, चक्रवाक, पाणकोंबयो, बुलबूल, फ्लेमींग हीं सुकणींय राज्यांत दिसतात.

**इतिहासः** 'गुर्जर' नांवाची एक जमात उत्तरेकडल्यान पंजाबांतल्यान सकयल देंवली आनी ह्या वाठारांत पावली. 'गुजरात' हें नांव 'गुजरठ्ठ' ह्या प्राकृत वा गुर्जर राश्ट्र ह्या संस्कृत नांवापसून आयलें.

गुजरातांत चार हजार पांचशें वर्सां आदले लोथल संस्कृतायेचे अवशेश मेळ्ळ्यात. हे अवशेश हरप्पा आनी मोहेंजोदडो संस्कृतायेच्या काळावेले आसून ताचेवेल्यान गुजराताक एक पूर्विल्लो इतिहास आशिल्ल्याचें सिध्द जालां. लोथल संस्कृताय आयज नासली तरी तिचो प्रभाव गुजरातच्या उद्येग, वेवसाय, साहस, कलाकुसर, कारागिरीचेर पडिल्लो दिसता.




इतिहासतज्ञांच्या मतान ऋग्वेदांतले 'पणीलोक' म्हळ्यारूच कुशलोकांची प्रजा आसपाक जाय. ते परकी देशांवांगडा वेपार करताले. दर्याचेर पातमारी चलयताले. धन एकठांय करताले. वर्णागवृत्ती हो शब्द मूळ 'पणी' ह्या उतरावेल्यान आयला, अशें म्हण्टात. पूर्विल्ल्या काळासावन गुजरातची भूंय वेपार-उद्येग करपी भूंय जावन आसा.

ताचे फाटल्यान शर्यातीच्या कुळगोत्रांचे आर्यलोक हांगा आयले. तांणी द्वारकेच्या लागसार आशिल्ल्या वाठाराक 'आनर्त' हें नांव दिलें. महाभारतांत अर्जुन दिग्विजय करपाक गेल्लो तेन्ना ताणें 'आनर्त' राज्य घेतलें, अशें म्हळां.

भृगू ऋषी जंय रावलो त्या वाठाराक 'भृगूकच्छ' हें नांव पडलें. सद्या ताका 'भडोच' म्हण्टात. ह्या कुळांतलो 'शुक्राचार्य' हो असुरांचो पुरोयत आसलो. असिरियांतल्यान जो पंगड आयलो, ताचें फुडारपण 'बळी' हाचेकडेन आसलें. भार्गवाचो पालव घेवन बळीन थंय आपल्या राज्याची थापणूक केली. जमदग्नीचो पूत परशुराम हो भार्गवकुळयेंतलो आसलो. ताणें सहस्त्रार्जुनाचो वध करून आर्य संस्कृतायेची थापणूक केली.

इ. स. ५०० वर्सांपयलीं ह्या वाठाराचेर यौधेय हाचो शेक चलतालो. उपरांत शक महाक्षप्रम रुद्रदाम हाणें ताका हरयलो. इ. स. प. तिसऱ्या आनी चवथ्या शतमानांत मौर्यांचो शेक ह्या वाठाराचेर चलतालो. संप्रती उपरांत मौर्यांची सत्ता सोंपली. ताच्या फाटल्यान बॅक्ट्रियन-ग्रीकांचो शेक चललो. क्रिस्ताउपरांतचीं पयलीं चार शतमानां गुजराताचेर क्षत्रपांचो शेक चलतालो.

इ. स. पांचव्या शतमानांत गुप्त राजाचो शेक चलतालो. गुप्त राजवट दुबळी पडली तेन्ना तांचोच एक सेनापती भट्टार्क मैत्रक हाणें वल्लभी (सौराष्ट्र) हांगा स्वतंत्र राज्याची थापणूक केली. ताणें वल्लभीपूर हांगा आपली राजधानी दवरली. ताचो शेक इ. स. ७६६ मेरेन चल्लो. वल्लभीपूर हांगा नालंदाभशेन विद्यापीठ आसलें.

गुर्जर प्रतीहाराच्या घराण्यांतल्या हरिश्चंद्र हाणें इ. स. ५५० वर्सा सात राजपुताना हांगा राज्याची थापणूक केली. इ. स. ५८० सावन ७६६ मेरेन गुर्जर घराण्याची राजवट चल्ली. इ. स. सातव्या शतमानांत चालुक्य राजा पुलकेशी आनी उपरांत जयसिंह शर्मा हांचो शेक इ. स. ६९३ मेरेन चलतालो. मदीं राज्यार अरबांची घुरी पडली. उज्जैन हांगाच्या वत्सराजान इ. स. ७८० मेरेन गुर्जर देशाचेर शेक चलयलो.

उपरांत ह्या वाठाराचेर चावडा घराण्याचें राज्य आयलें. तांची राजधानी अनहिलवाडा ही आसली. ह्या वंशांतलो निमाणो राजा सामंतसिंह हाणें सोळंकी वंशांतल्या मूळ राजाक दत्तक घेतिल्लो. सोळंकी वंशांतल्या धा राजांमदीं बाराव्या शतमानांतले 'सिध्द राजा जयसिंह' आनी 'कुमारपाल' हे अज्रंवर जाले. प्रवासतीर्थाचो 'सोमनाथ' हें सोळंकीचें मूळ दैवत दोन फावट लुटलें. कुमारपालान तें परतें बांदलें. सोळंकीचो अस्त जातकच वाघेला घराण्यान तेराव्या शतमानामेरेन गुजराताचेर राज्य केलें. ताच्या आठ राजांमदले वीरधवल आनी विशालदेव गाजल्यात. वीरधवल हाचे राजवटींत वस्तूपाल आनी तेजपाल ह्या दोन जैन मंत्र्यांनी अबू गिरनार, शत्रंजुय आनी कुंभारिया हांगा सुंदर देवळां बांदलीं. निमाणो रजपूत राजा करण वाघेला हाका हरोवन अल्लाउद्दीन खिलजीन गुजरात राज्य घेतलें. ह्या वेळासावन गुजरातचेर मुसलमानी राजवट सुरू जाली. इ. स. १२९९ ते १३९६ मेरेन दिल्लीच्या सुलतानाची राजवट चलताली. इ. स. १३९७ ते १५७२ मेरेन राज्याचेर स्वतंत्र सुलतानाची सत्ता आशिल्ली. १४०९ त पयल्या अहमदशहान गुजरातांत स्वतंत्र राज्याची थापणूक करून अहमदाबाद शार वसयलें. तो आनी पयलो महमूद (महमूदशाह बेगडा) हे गुजराताचेर १६६ वर्सां शेक गाजोवपी सुलतानांमदले सगळ्यांत चड नामनेचे अशे जावन गेले. दोगांयचे राजवटीत गुजराताची खूब उदरगत जाली.

इ. स. १५७३ ते १७५८ मेरेन मोगलांची राजवट चल्ली. १५७३ त अकबरान गुजरात जिखून मोगल राजवटीची बुन्याद घाली. औरंगजेब हाच्या मरणाउपरांत थंय मराठ्यांची राजवट आयली. गायकवाडांनी गुजरातच्या कितल्याशाच वाठारांनी आनी सौराष्ट्रांत आपल्या राज्याची थापणूक केली.

१५३७ वर्सा पोर्तुगेज लोक सौराष्ट्रांत, दक्षिण दिकेवटेन आशिल्ल्या दोन जुंव्यांर पावले. अशेतरेन पयली युरेपी सत्ता राज्यांत रिगली. ब्रिटिशांनी वेपार करपाच्या निमतान येवन भंगसाळ घाली. ल्हवल्हव १९४७ मेरेन पुराय भारतभर तांचो शेक चल्लो. भारतीय सुटके झुजाची चळवळ राज्यांत सुमार ५० वर्सां चल्ली. १९२० वर्सा महात्मा गांधी हाणें अहिंसेचें तत्त्व आपणावन सत्याग्रह करून ब्रिटिशांआड चळवळ चलयली. देशभर स्वातंत्र्याविशींची जागृताय निर्मुपाक ताचो वांटो मोलाचो आसा. बार्डोली सत्याग्रहावेळार सरदार वल्लभभाई पटेल हाच्यासारको फुडारी महात्मा गांधीक मेळ्ळो. साबरमती आश्रमांत गांधी बारा वर्सां उरलो. हे सुवातेवेल्यान तो भारताची राजकी सुत्रां चलयतालो. १९३० वर्सा मिठाचो सत्याग्रह करपाखातीर ताणें आश्रम सोडलो. ताच्या दांडी मोर्चान स्वतंत्रतायेचे चळवळीक आनीकूय नेट आयलो. गांधीची जल्मभूंय आनी कर्मभूंय म्हूण ह्या राज्याक खास म्हत्व मेळ्ळां. १९४२ वर्साच्या स्वातंत्र्य झुजांत पुराय गुजरात गांधी फाटल्यान उबें रावलें.

१९४७ वर्सा भारताक स्वतंत्रताय मेळ्ळी तेन्ना गुजरातातलीं सगळीं संस्थानां भारतीय संघराज्यांत विलीन जालीं. जुनागढाचो संस्थानिक नवाब मोहबतखान हाणें आपलें संस्थान पाकिस्तानाक जोडलें म्हूण जाहीर केलें, पूण प्रजा ताच्या ह्या निर्णयाआड उबी रावली. निमाणे जुनागढ भारतांत विलीन जालें आनी मोहबतखान पाकिस्तानांत पळून गेलो. १९४८ त सौराष्ट्राचो एक संयुक्त संस्थान संघ आसलो आनी गुजरातांतलीं हेर संस्थानां त्या काळांतल्या मुंबय राज्याक जोडिल्लीं. १९५६ चे राज्य पुनर्घटनेप्रमाण कच्छ सौराष्ट्रासयत गुजरात द्विभाशीक मुंबय राज्यांत आस्पावलें. १ मे १९६० वर्सा गुजरात १५ वें घटकराज्य जालें.

**राज्यवेवस्था:** गुजरातांत अहमदाबाद, अमरेली, बनासकांठा, भडोच, भावनगर, गांधीनगर, जामनगर, जुनागढ, खेडा, कच्छ, मेहसाणा, पंचमहाल, राजकोट, सांबरकाठा, सुरत, सुरेन्द्रनगर, बडोदा, बलसाड, डांग अशे १९ जिल्हे आसात. तेभायर १८६ तालुके, ५९ नगरपालिका, ९२ नगरपंचायती, ११,५६२ ग्रामपंचायती थळाव्या राज्यांनी आसात.

राज्याक विधानपरिशद ना. विधानसभेचे वट्ट वांगडी १८२ आसात. लोकसभेचेर २४ तर राज्यसभेचेर ११ वांगडी राज्यांतल्यान वेंचून दितात. राज्याची राजधानी गांधीनगर ही आसा.

**अर्थीक स्थिती:** राज्यांतली अर्दापरस चड जमीन शेतपिकावळीखाल आसा. राज्यांतल्या १/४ परस चड जमनीचेर कसलेंच पीक जायना. तण खूब प्रमाणांत ह्या प्रदेशांत वाडटा. ताचो फायदो गोरवांक जाता. तांदूळ, ज्वारी, बाजरी, गंव, मको हीं पिकां तशेंच कापूस, ऊंस, आंबे, केळीं, भिकणां, तंबाखू, इसापगूळ, बटाट, मिरसांग, सूंठ, हांगा पिकतात. देशांतलो १/५ टक्के कापूस वाठार हांगा आसा.

राज्यांतल्या म्हत्वाच्या शिंपणावळ प्रकल्पामदीं उकाई, कडाणा, नर्मदा, काक्रापारा, मही उजवीदेग, दंतीवाडा, हठमती, सरस्वती, शत्रुंजयी-पालिताणा, भादर, शत्रुंजयी-खेडियार, मच्छू आनी साबरमती-धोरोई हांचो आस्पाव जाता.

चुनखडी, मॅंगनीज, चिनी माती, मीठ, कॅल्साइट, बॉक्साइट हीं खनिजां राज्यांत मेळटात. राज्यांत बॉक्साइटाचो सांठो १७ दशलक्ष टन आसा. छोटा-उदयपूर वाठारांत ११.६ दशलक्ष टन फ्लोराइटाचो सांठो आसा.

गुजरात राज्याक व्हडली दर्यादेग मेळिल्ल्यान उदकांतली पिकावळ व्हड प्रमाणांत जाता. कच्छांतल्या लखपत बंदरासावन दक्षिणेकडल्या उंबरगांवामेरेन १६०० किमी. दर्यादेग हांगा आसा. कच्छ ख्रंबायतच्या आखातासयत वट्ट ६७,६०० चौ. किमी. नुस्तें पागपाक फावसो दर्या राज्याक मेळ्ळा. नुस्तें धरपाक ५१ बंदरां आसात. बोंबील, विस्वण, सुंगटां, हिलसा हीं नुस्तीं दर्यांत मेळटात. शंख, शिंपयो, मोतयां दर्यांतल्यान काडटात. तेभायर नुस्त्या सारें, शार्क लिव्हर तेल काडपी अर्थीक धंदे हांगा चलतात.

सुमार २००० लोक साव्या उदकांत नुस्तें पागपाचो धंदो करतात. तळयेंतल्या नुस्त्यांची पुरवण करपाखातीर दोन व्हडलीं तळीं आसात. नुस्त्यांचीं तांतयां तिगोवन दवरपी दोन केंद्रां आसात.

इतिहासीक, समाजीक आनी सैमीक नदरेन म्हत्वाचीं अशीं जायतीं पर्यटनथळां राज्यांत आसात.

गुजरात राज्यांत उद्देगधंद्याच्या मळार बरीच उदरगत जाल्या. बडोदा हांगा राज्य सरकाराचो साऱ्या कारखानो आसा. सूत आनी कापडाच्यो गिरणी, शिमीट, रसायनीक द्रव्यां, यांत्रिक आनी विजेचीं उपकरणां, खावपाच्या तेलाचेर प्रक्रिया करपी उद्देग, अशे विंगड विंगड कारखाने राज्यांत आसात. कोयाली हांगा तेल शुध्द करपाचो कारखानो, पोरबंदर, द्वारका सिक्का हांगा शिमीट कारखाने, बडोद्यांत रसायनीक म्हालाचे कारखाने आसात. सुरत हांगा जरीकाम, विणकाम आनी कृत्रिम धाग्याचें काम बरें चलता.

राज्यांत ७०,००० ल्हान उद्देगीक केंद्रां, १३,००० कारखाने, १६७ उद्देगीक वसाहती आसात. राज्यांतल्या दूद उद्देगाची बरीच उदरत जाल्या. भारतांतलें ७०% दूद उत्पादन राज्यांत जाता. देशांतलें ७०% मीठ उत्पादन हांगा जाता.

राज्यांतलें वट्ट वीजेचें उत्पादन २,३५० मे. वॉ. इतले आसा. ११,८७९ खेड्यांनी विजेची पुरवण केल्या.

**येरादारी आनी संचारण:** राज्यांत पक्के आनी कच्चे मेळून वट्ट ४७,४२६ किमी. लांबायेचे रस्ते आसात (१९८१) आनी ५,६५६ किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आसात. गुजरातांत हवाई-येरादारीची बरी वेवस्था आसा. दिल्ली-अहमदाबाद-मुंबय मार्गार विमानां चलतात. मुंबय ते पोरबंदर, मुंबय ते राजकोट, मुंबय ते बडोदे ह्या मार्गांरूय विमानां चलतात. घवाणिया, जोडिया, धोलेरा, भावनगर, महुवा, दीव, जाफराबाद, वेरावळ, पोरबंदर हीं राज्यांतलीं मुखेल बंदरां आसात.

राज्यांतलीं म्हत्वाचीं खबरेपत्रां फुडलेतरेन आसातः *इंग्लीश-* टायम्स् ऑफ इंडिया, इंडियन एक्सप्रेस आनी वेस्टर्न टायम्स् (अहमदाबाद); *गुजराती-* गुजरातमित्र आनी गुजरातदर्पण (सुरत), जनसत्ता (अहमदाबाद), लोकसत्ता (बडोदा), फूलछाब (राजकोट), संदेश (अहमदाबाद), गुजरात समाचार (अहमदाबाद), जयहिंद (राजकोट), प्रताप (सुरत).

**लोक आनी समाजजीण:** राज्याची भास गुजराती. राज्याची राजधानी गांधीनगर ही आसा. अहमदाबाद, सुरत, बडोदा, राजकोट, भावनगर, जामनगर, नडिआड हीं २ लाखांपरस चड लोकांचो राबितो आशिल्लीं शारां. ५० हजारांपरस चड लोकसंख्या आशिल्लीं शारां १७, तर ल्हान शारांचो आंकडो २२५ आसा.

गुजरातांत ८०% परस चड लोक हिंदू आसात. ६.७% दलीत जाती आनी ११.६% दलीत जमातीचे आसात. हेर हिंदूंमदले चडशे माध्व, रामानुजी, वल्लभाचारी, स्वामी नारायण अशे वैष्णव पंथाचे तर कांय स्मार्त, शैव, पाशुपत पंथी, माताजीचे पूजक आनी सूर्योपासक अशा पंथांचे आसात. १७०५ मुसलमानांमदीं सुन्नी, शिया, इस्मायली, मेमेन, बोहरी अशा पंथाचे लोक आसात. मुसलमान गुजराती भास उलयतात. राज्यांत ४ लाखांवयर जैन धर्मीय आसात. पारशी लोक जरथुश्त्री धर्म पाळटात. नवसारी म्हालांत ते चड प्रमाणांत आसून तांची उलोवपाची भास गुजराती आसा.

गुजराती दादले धवें धोतर, लांब कोट आनी माथ्याक तोपी घालतात. धोतराचो कासाटो उजवेवटेन खोयतात. गुजराती बायलो पदर

उजव्या खांद्यावेल्यान घेतात. खेड्यांतल्यो बायलो कासाटो मारून न्हेसण न्हेसतात. पांयांत वाळे, हातांत कांकणां, गळयांत कंठी, चंद्रहार, कानांतली कुडी ह्यो गुजराती बायलांच्यो वस्ती जावन आसात.

नवरात्र ही गुजरातांतली व्हडली परब आसून, ती णव दीस चलता. हे परबेंत शक्तीची पूजा जाता. ह्यावेळार गांवांगांवांनी 'गरबा' नाच खेळटात. होळी हो सण खास करून गांवगिऱ्या वाठारांत भिल्ल, आदिवासी उर्बेन मनयतात. रंग उडोवप आनी खेळप हातूंतलें मुखेल आंग जावन आसा. दिवाळी ही परब घरांघरांत मनयतात. कार्तिक-पुनवेक वोढा हांगा, अहमदाबाद लागसार तशेंच सांबरकाठा हांगा मोटी जात्रा भरता. शिवरात्रे दिसा गिरनारच्या भावनाथ हांगा व्हडली जात्रा भरता.

राज्यांत लोकनृत्य आसा, पूण शास्त्रीय संगीताची परंपरा ना. पंडीत ओंकारनाथ ठाकूर हो व्हड संगीतकार राज्यांत जावन गेलो. जामनगरचें स्थापत्यकाम, शिल्पकाम, नक्षीकाम, हस्तकला, सुरतचें जरीकाम, कोरीव लांकडाकाम, मातयेचीं आयदनां, हे कलाकुसरींत गुजरातान नामना जोडल्या. रविशंकर रावल, कनु देसाई, जगन्नाथ अहिवासी, सोमालाल शाह, रसिकलाल परीख/पारेख, श्यावक्ष चावडा, छगनलाल यादव, शांतिलाल हे चित्रकार नामनेक पावल्यात. नवे शैलीच्या चित्रकारांमदीं जनक पटेल, शरद पटेल, गुलाम महंमद हांणी नामना जोडल्या. रंगमाचयेचें दायजूय खूब पूर्विल्लें आसा. 'भवाई' नांवाचो प्रहसनात्मक नाट्यप्रकार खूब पोरनो आसून तातूंत संगीत नृत्य आस्पावता. आयचे रंगमाचयेची सुरवात १८५० वर्सा जाली. ह्या मळार पारशी लोकांनी फुडाकार घेतिल्लो. १८६८ सावन नर्मद मणिलाल, त्रिभुवनदास, प्रभुलाल द्विवेदी, कन्हयालाल मुन्शी, चंद्रवदन मेहता हांच्या नाटकांनी रंगमाची गाजयल्या. नवे कलाकार नवे तरेचीं नाटकां करतात. गुजरात सरकारान कलेची उदरगत जावंची म्हूण अकादेमीची थापणूक केल्या. गुजरातांत चित्रपट उद्येगूय सुरू जाला. गुजराती भाशेंत नवे नवे चित्रपट तयार जायत आसात. खेळाच्या मळारूय गुजराती लोक उमेदीन वांटो घेतात.

**शिक्षणः** गुजरातांत साक्षरतेचें प्रमाण ६०.९१% आसा (१९९१). ७ यांत्रिकी महाविद्यालयां, २० डिप्लोमा दिवपी संस्था, ४२ तंत्रशाळा, १२ विंगड विंगड शिक्षण दिवपी शाळा, ८ विद्यापीठां, कला आनी विज्ञानाचीं ७६ महाविद्यालयां, १३ वेपार विद्यालयां, १ शारीरिक प्रशिक्षण आनी १३ अध्यापन प्रशिक्षण विशयाचीं विद्यालयां आसात. सुरुची यंत्र विद्यालय, कृषी, मुलोद्योग, कन्याआश्रम, मढी बुनियादी, पूर्व मुळाव्यो शाळा, सफाई विद्यालयां, श्रेयस पब्लीक स्कूल, लोकभारती विद्यालय, ह्यो शाळा विद्यार्थ्यांक आप रोजगाराविशीं शिकप दितात.

**म्हत्वाचीं थळां:** राज्यांतलीं कांय म्हत्वाचीं थळां अशीं:

*सैमीक थळां:* तीथल- बलसाड सावन तीन मैल अंतराचेर हें थळ आसा. हाका तेंकून 'विलसन तेंगशीं' आसा. उंचाय २,३०० फूट. हांगा व्हड दर्यादेग आसा. चोरवाड- सौराष्ट्रांतले दर्यादेगेर हें सैमीक थळ आसून जुनागढ सावन हें ४० मैलांचेर आसा. उभराट- सोबीत दर्यादेग आशिल्लें सैमीक थळ. शुक्लतीर्थ- भडोच हांगासावन १० मैल अंतराचेर आशिल्लें पवित्र तीर्थथळ. पावागढ- बडोद्याचे उदेंतेक २५ मैलांचेर आशिल्ल्या ह्या दोंगराचो घेर ३६ मैल आसा. हाची उंचाय २,८०० फूट आसा. ह्या गडाक तीन दारां आसात. लव-कुशाच्या पावलांच्यो खुणो, विश्वामित्राचो आश्रम, विश्वामित्री न्हंय हांगा पळोवंक मेळटा. मारुतीन द्रोणागिरी व्हरतना हांगा जो कुडको पडलो, तो 'पावागड' असो समज आसा. गिरनार पर्वत- जुनागढ सावन ३ मैलांचेर हो पर्वत आसून ताची उंचाय ३,००० फूट आसा. पर्वत चडपाक सोपणा आसात. दत्ताच्यो पादुका, जैनाचो बावीसावो तीर्थंकर नेमिनाथ हाचें देवूळ हांगा पळोवंक मेळटा. पर्वताचेर वट्ट २१ तेंगश्यो आसून तातूंत अंबा, गोरख, औघड, गुरू आनी कालिका मुखेल आसात. १४ धर्मांच्यो आज्ञा कोरांतिल्लें सम्राट अशोकाचें पाशाण बरप हांगा आसा. पुराणांत 'श्वेतक पर्वत' हाकाच म्हण्टात.

*धर्मीक थळां:* द्वारका- मूळ द्वारका श्रीकृष्णाचो अवतार सोंपतकच दर्यांत बुडली आनी आयची द्वारका ताच्या नातवान बांदली, अशें म्हण्टात. हांगा श्रीकृष्णाचें म्हळ्यार रणछोडजीची मूर्त आशिल्लें व्हड देवूळ आसा. हांगासावन १८-२० मैलांचेर द्वारका जुंवो आसा. थंय श्रीकृष्ण आनी नारायणाचें देवूळ आसा. हिंदूंच्या चार धामांतलें एक धाम. पालिताणाचें जैन मंदीर- जैनांचें पवित्र थळ. जैनांचो पयलो तीर्थंकर आदिनाथाचें देवूळ मेळून वट्ट ८६३ देवळां हांगा आसात. सोमनाथाचें मंदीर- एक तीर्थथळ. हें प्रभासपट्टन हांगा आसा. कपिला, सरस्वती, हिरण ह्या न्हंयांचो हांगा संगम जाला. डाकोर- वैष्णवांचें तीर्थथळ. हांगा रणछोडदासाचें सोबीत देवूळ आसा. उदवाडा हांगा पारशाचें तीर्थथळ आसा. स्वामी नारायणाचें देवूळ, शामलाजी मीरा दातार, हीं थळां पळोवपासारकीं आसात.

*हेर थळां:* साबरमती आश्रम; बडोदा- एक म्हत्वाचें शार. हांगा लक्ष्मीविलास, मकरपूरा आनी नजरबाग अशे तीन महाल आसात. वस्तुसंग्रहालय, पशुसंग्रहालय, चित्रसंग्रहालय आनी नखेत्रांगण (planetorium) पळोवपासारकें आसा. अहमदाबाद- गुजरातांतलें म्हत्वाचें उद्येगीक शार. आशावल आनी कर्णावती हीं ह्या शाराचीं आदलीं नांवां जावन आसा.

हांगा कापडाच्यो गिरणी खूब आसात. हांगाचे जामा मशिदींत वारो येवपाखातीर बसयिल्ल्यो कोरांतिल्ल्यो जाळयो आनी नक्षीकाम सोबीत आसा.

- माणिकराव राम नायक गावणेकार

## गुजराती भाशा:

इंडो आर्यन भाशा पंगडांतल्या हेर आर्विल्ल्या भाशांभशेन गुजराती भाशाय धाव्या/इकराव्या शतमानाउपरांत अभिजात काळांत वयर सरूंक पावली.



गुजराती वर्णमाला

ह्या सहस्त्रमानाचे सुर्वेक जी समाजीक, राजकी परिस्थिती निर्माण

जाली, तातूंतल्यान हे भाशेचो संबंद थळाव्या 'गुर्जर' ह्या अपभ्रंशप्रकारालागीं लागता. आचार्य हेमचंद्र (१०८९-११७३) हाणें बरयिल्ल्या 'सिध्द-हेम शब्दानुशासन' ह्या पयल्याच साहित्यप्रकारांत गुजरातीच्या एका प्रकाराचो वापर केला.

गुजरातीच्या इतिहासाचे तीन वांटे करूं येतातः १. पोरनी गुजराती, जातूंत तिचे निर्मणेविशींचो काळ आसा आनी तो हेमचंद्र ते नरसी मेहता (१४०८-८०) मेरेनचो आसा. २. मदल्या काळांतली गुजराती, जातूंत मध्ययुगीन काळासावन जो मेरेन भाशेक आकृतिबंध आनी कोशसाहित्य मेळळें, त्या काळाचो आस्पाव जाता. हो नरसी मेहता तो दयाराम (१७७७-१८५३) मेरेनचो काळ आसा. ३. आर्विल्ली गुजराती, ह्या वेळार छापखान्याची उदरगत जाली.

सद्याक ही भाशा भूगोलीक नदरेन उत्तरेक अबू ते दक्षिणेक मुंबयमेरेन सुमार २.५ कोटी लोक उलयतात. हे भायर संवसारभर शिंपडून आशिल्ले गुजराती लोकूय हे भाशेचो उपेग करतात. हे भाशेच्यो मुखेल बोली म्हळ्यार १. दक्षिण गुजरातांतली सुरती २. मदल्या वाठारांतली चरोतरी ३. उत्तर गुजरातांतली पटनी ४. उत्तर-अस्तंत वाठारांतली सौराष्ट्री ५. पारशी लोक उलयतात ती पारशी ६. कांय मुस्लीम उलयतात ती बोहरी.

गुजराती भाशेंतलीं उतरां संस्कृत भाशेचेर आदारिल्लीं आसात. पूण तिका अरबी, पर्शियन आनी आर्विल्ल्या काळांत पोर्तुगेज आनी इंग्लीश भाशेच्या उतरांचें दायज लाबलां. हे भाशेचो मराठी, कोंकणी आनी हिंदीकडेनय लागसारचो संबंद आसा.

गुजराती (महाजनी) लिपी नागरी लिपीपरस वेगळी आसली, तरी तिची मुळावी बुन्याद देवनागरीचेरुच आदारून आसा.

- जी. एन्. देवी

**गुजराती साहित्यः** फाटल्या ८०० वर्सांच्या इतिहासांत गुजराती साहित्याचें खाशेलपण म्हळ्यार तातूंतली विजातीयता (heterogeneity). ब्राह्मणी साहित्य, भक्तिगीतां आनी आर्विल्ल्या काळांत निर्माण जाल्लें बुध्दीजीवी उच्चभ्रू साहित्य, हे गुजराती साहित्याच्या प्रवाहांतले घटक आसात. गुजराती साहित्याक जैन, पारशी आनी मुसलमान लेखकांकडल्यान बरेच व्हड हातभार लागला. गुजरातीचो पयलो लेखक हेमचंद्र जाणें तरेकवार वाक्यरचणुकेच्यो छटा आपले बरपावळींत वापरल्यो आनी सद्याच्या काळांतलो सुरेश जोशी जाका संस्कृत, हेर भारतीय भाशा, अस्तंतेकडेलें साहित्य आनी तत्त्वगिन्यानाचें दायज मेळ्ळां, हांच्या साहित्यांतल्यान गुजराती साहित्याचें वेंचीक तेज स्पश्टपणान दिसून येता.

गुजराती साहित्य हेर भारतीय भाशांतल्या साहित्याभशेन समान इतिहासीक संक्रमणावस्थेंतल्यान गेलां. बाराव्या शतमानांत जैन समाजप्रार्थनासंबंदीत बरपावळींतल्यान ताचो उदय जालो आनी मदल्या शतमानांनी व्हड अशे काव्यात्मक बरपावळींतल्यान उदरगत जावन तें ब्रिटिशांच्या प्रभावाखाल आर्विल्ल्या युगांत पावलें. ह्या साहित्यांतले पयलींचे काव्यरचणुकेक नाट्यात्मक क्षमता आसा आनी खास करून ताचे 'रास' शैलीक हें दायज बरेंच लाबलां. पूण नाट्य हो प्रकार मात ह्या साहित्याच्या मळार आयजमेरेन फाव तसो उदरगतीक पाविल्लो ना. कवितेमदीं गुजराती साहित्याची पारंपारिक प्रज्ञा स्पश्टपणान उक्ती जाता आनी आर्विल्ल्या काळांतल्यो लघुकथा आनी लघुनिबंद मराठीसारकिल्या उदरगतीक पाविल्ले भाशेंतल्या साहित्याकडेन तुळा करपासारक्यो आसात.

पोरन्या आनी मदल्या काळांतलें गुजराती काव्यसाहित्य विंगड विंगड शैलींतल्यान उदरगतीक पावलें. 'फागु' हो काव्यप्रकार वसंत ऋतूंत येवपी खोशी उक्तावपी आशिल्लो. 'विवाहुलू' हो काव्यप्रकार लग्नासंबंदीत गजालींचेर आदारित आशिल्लो. 'बारामासी' काव्यप्रकारांतल्यान बारा म्हयन्यांच्या काळांत मोग करपी तरणाट्यांची तातातूट आनी विरहवेदना रंगयताले. विजयभद्र (हंसराज वच्छराज चोपाई- १३५५) आनी असैत (हंसावली- १३७१) हांणी सपनसृश्टींतल्या बायलांविशीं काल्पनिक कविता बरयल्यो. 'मातृक' (भाशेंतले सगळे ध्वनी उक्तावपी) आनी 'कक्क' हीं (भाशेंतलीं सगळीं व्यंजनां उक्तावपी) उपरोधिक छंदोबध्द ल्हान कवनांय बरयिल्लीं दिश्टी पडटात. तरीपूण मुखेलकरून नरसी मेहता (१४०८-८०) हाच्या भक्तीरस काव्याक लागून आर्विल्ल्या काळापयलींचें गुजराती साहित्य चड याद उरता. कृष्णभक्ती हो ताच्या काव्याचो मुखेल विशय आशिल्लो. पूण साहित्याचे नदरेंतल्यान पळेल्यार ताचे कवितेतलें गीत आनी संगीत खासा गुजराती संवेदनांचो स्वभाव दाखयता. मराठींतल्या संत तुकारामाभशेन आनी हिंदींतल्या संत कबीराभशेन, नरसी मेहताचें भाशेचे संपदेचेर, नाविन्यपूर्ण अशा विशयांच्या भांडाराचेर आनी विंगड विंगड मानसिक स्थितींचेर बरोवपाचें प्रभुत्व आशिल्लें. 'मीराबाई' आनी 'अखो' परंपरेंतली आनीक दोन व्हड नांवां 'आख्यान' आनी 'पुराण' ह्योय शैली मदल्या काळांतल्या गुजराती साहित्यांत बऱ्योच उदरगतीक पाविल्ल्यो. प्रेमानंद भट्ट (१६३६-१७३४) हाणें आपले काव्यरचणुकेंत भारतीय महाकाव्यांचें आनी तांतल्या विशयांचे संदर्भ वापरले.

१८५२ त दयाराम हाच्या मरणाउपरांत आनी ब्रिटीश शिक्षणाचो भारतांत प्रभाव पडूंक लागतसावन कवितेंतलो आर्विल्लो काळ सुरू जाता. हो काळ हेर भारतीय भाशांतल्या साहित्यांत आर्विल्ल्या प्रवाहांचें दर्शन घडयता. गुजराती आर्विल्ल्या साहित्याचे तीन वांटे करूं येतातः १. पंडीत युग (१८८० ते १९२०) २. गांधी युग (१९२० ते १९५०) आनी ३. आर्विल्लें युग (स्वतंत्रतायेउपरांत). पंडीत युगांतले मुखेल कवी दलपतराम (१८२०-९८), नर्मद (१८३३-८६), केशव हर्शद ध्रुव (१८५९-१९३७), बी. के. ठाकोर (१८६९-१९५२), नरसिंहराव दिवेटिया (१८६९-१९५२) आनी मणीशंकर भट्ट (१८६७-१९२३) हे जावन आसात. ह्या कवींनी गुजराती साहित्यांत गद्य आनी समीक्षात्म बरपावळ केली आनी आपलीं नेमाळीं चलयलीं. तांचें काव्य प्रायोगिक, अद्‌भुतवादी, राश्ट्रवादी आनी छंदोबध्द आशिल्लें. हें चडशें ब्रिटीश प्रभावाखाल बरयल्लें. गांधी युगांतले मुखेल कवी सुंदरम् आनी उमाशंकर जोशी. सुंदरम् हाचेर आशिल्लो अरविंदाचो प्रभाव दिश्टी पडटा. उमाशंकर जोशी हो ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळोवपी गुजरातींतलो पयलो साहित्यकार. ह्या दोगांय जाणांची कविता आध्यात्मिक, व्यक्तिवादी आनी समाजीक जाणविकाय उक्तायता. आर्विल्ल्या युगांतले मुखेल कवी म्हळ्यार निरंजन भगत, लाभशंकर ठकार, सीतांशु यशश्चंद्र, रावजी पटेल आनी गुलाम मोहम्मद शेख. नवी कविता प्रतिमात्मक, प्रतीकात्मक आनी अतिवास्तववादी आसा.

नाटक ह्या साहित्यप्रकाराची फाव तशी वाड गुजरातींत जाल्ली ना. कांय मुखेल जैतिवंत नाटककार म्हळ्यार गांधी युगांतलो सी. सी. मेहता आनी आर्विल्ल्या युगांतलो सीतांशु यशश्चंद्र. गद्य कादंबरीप्रकारांत गुजराती साहित्याची मोलादीक उदरगत जाल्या. नंदशंकर मेहताची 'करण घेलो' (१८३५-१९०५) ही पयली गुजराती कादंबरी अशें मानतात; पूण गुजरातींतली सगळ्यांत श्रेश्ठ कादंबरी म्हूण गोवर्धन त्रिपाठी (१८३५-१९०७) हाचे 'सरस्वतीचंद्र' हे कादंबरीचो उल्लेख जाता. कन्हैयालाल मुन्शी (१८८७-१९१७) इतिहासिक आनी उपदेशात्मक कादंबऱ्यो बरोवन नामनेक पावलो. गांवगिऱ्या गुजरातांतली जीण आपल्या साहित्यांत चित्रीत करून वास्तववाद हाडपी पन्नालाल पटेल (जल्मः १९१२) हो मुन्शी फाटल्यान दुसरो म्हत्वाचो कादंबरीकार. हे मुखेल कादंबरीकार म्हळ्यार झवेरचंद मेघाणी (१८९७-१९४७) आनी रमणलाल देसाई (१८९२-१९५४). अस्तंतेकडले विचारधारेचो प्रभावी झोत आपल्या साहित्यांत हाडपी सुरेश जोशी (१९२२-१९८६) हो लघुकथा लेखकांमदीं सगळ्यांत फुडें आसा. उण्यांतउणें कथानक, शैलीदार आनी वैचित्र्यपूर्ण भाशा गुथून कथा बरोवप हें ताचें खाशेलपण. ताणें 'क्षितीज', 'एताद', 'वाणी' आनी 'सेतू' हीं नेमाळींय उजवाडायलीं.

- जी. एन्. देवी

संदर्भ: 1. George K. M. Ed., Comparative Indian Literature, McMilan India, 1984-6; 2. Munshi K. M., Gujarat and its Literature, Bombay, 1935; 3. Zaveri K. M., Milestones in Gujarati Literature, Bombay, 1984/1989; ४. झवेरी एम्. एम्., गुजराती साहित्याचो इतिहास, साहित्य अकादेमी, दिल्ली, १९७८.

**गुजराती भाशेतले कांय म्हत्वाचे साहित्यकार आनी तांच्यो साहित्यकृती अश्यो:**

हेमचंद्र (१०८८-११७२) 'अनेकार्थसंग्रह', 'अभिधान चिंतामणी', 'देशी नाममाला' 'छन्दोनुशासन', 'काव्यानुशासन'; भालण (१४०५-१४८९); ' नाकर (१५००-१५७५) 'शिव विवाह', 'लवकुशाख्यान'; केशव हृदेराम 'कृष्ण क्रीडा'; विष्णुदास (१५६४-१६३२) 'लक्ष्मणाहरण', 'शुकदेवाख्यान', 'चंद्रहासाख्यान'; शिवानंद (१६००-१६४४); महाकवी प्रेमानंद (१६३६-१७३४) 'दशमस्कंध', 'सुदामा चरित्र', 'नलाख्यान'; शामळ भट्ट (१६९०-१७६९) 'पद्मावती' , 'मदनमोहना'; वल्लभ मेवाडी (१७००); प्रीतम (१७२०-१७९८) 'एकादशस्कंध', 'धरमगीता'; रत्नो; धीरो (१७५३-१८२५) 'रणयज्ञ', 'अश्वमेध'; नरभेराम (१७६८-१८५२); बापूसाहेब गायकवाड (१७७९-१८४३) 'महिना'; भोजो (१७८५-१८५०); रणछोडजी दिवाण (१७८५-१८४१); गिरधर (१७८७-१८५२) 'तुलसी विवाह', 'राजसूय यज्ञ'; स्वामिनारायण संप्रदाय (अठरावें शतमान आनी एकुणिसाव्या शतमानाचें पयलें अर्द); रणछोड 'रामायण', 'राधा विवाह'; दयाराम (१७७६-१८५२) 'रसिकवल्लभ', 'मीराचरित्र'; दलपतराम (१८२०-१८९८) 'वेनचरित्र' 'फॉर्बस् विरह'; नर्मद (१८३३-१८८६) 'नर्मगद्य', 'नर्मकविता', राज्यरंग'; भोळानाथ साराभाई (१८२३-१८८६) 'ईश्वर प्रार्थनामाला'; महिपतराम नीळकंठ (१८२९-१८९१) 'सासु-वहुनी लडाई'; करसनदास मुळजी (१८३२-१८७१) 'इंग्लंडेमां प्रवास'; नंदशंकर (१८३५-१९०५) 'करण घेलो'; नवलराम पंड्या (१८३६-१८८८) 'भटनुं भोपाळुं', 'वीरमती'; रणछोडभाई उदयराम (१८३७-१९२३) 'हरिश्चंद्र', 'जयकुमारी विजय'; भगवानलाल इंद्रजी (१८३९-१८८८); जयकृष्ण इंद्रजी (१८४९-१९२९); जहांगीर तल्याखान (१९२३-१९४६) 'मुद्रा अने कुलीन'; हरगोविंद कांटावाला (१८४९-१९३२); इच्छाराम देसाई (१८५३-१९१२); दुर्गाराम दवे (१८०९-१९७८); वल्लभजी हरिदत्त आचार्य (१८४०-१९११); अंबालाल देसाई (१८४४-१९१४); गोवर्धनराम (१८५५-१९०५) 'सरस्वतीचंद्र', 'स्नेहमुद्रा'; मणिलाल (१८५८-१८९८) 'आत्मनिमज्जन', 'कान्ता'; बाळाशंकर (१८५८-१८९८); नरसिंहराव (१८५९-१९३७) 'कुसुममाला', 'हृदयवीणा'; केशवलाल ध्रुव (१८५९-१९३७); विहारी (१८६६-१९३७); कान्त (१८६७-१९२३) 'वसंतविजय' 'चक्रवाकमिथुन', रमणभाई (१८६८-१९२८); 'राईनो पर्वत', 'भद्रंभद्र'; आनंदशंकर ध्रुव (१८६९-१९४२); बळवंतराय ठाकोर (१८६९-१९५२) 'भणकार', 'लिरीक'; कलापी (१८७४-१९००); नानालाल (१८७७-१९४६) 'केटलांककाव्यो', इन्दकुमार', 'जया-जयन्त'; खबरदार (१८८१-१९५३) 'कलिका', 'दर्शनीका'; महात्मा गांधी (१८६९-१९४८) 'आत्मकथा', 'सत्यना प्रयोगो'; काकासाहेब कालेलकर (१८८६-१९८१) 'हिमालयनो प्रवास', 'लोकमाता', 'स्मरण यात्रा'; कनैयालाल मुन्शी (१८८७-१९७१) 'वेरनी वसुलात', 'पाटणनी प्रभुत्ता'; चुनीलाल शाह (१८८७-१९६६) 'प्रमोद'; रामनारायण पाठक (१८८७-१९५५) 'शेषनां काव्यो', 'विशेष काव्यो'; स्वामी आनंद (१८८७-१९७६) 'ईशुनु बलिदान'; मुनिजिन विजयजी (१८८८-१९७६); किशोरलाल मश्रूवाला (१८७०-१९५२); 'राम अने कृष्ण', 'बुध्द अने महावीर'; रमणलाल देसाई (१८९२-१९५४) 'जयंत', 'शिरिष'; धूमकेतू (१८९२-१९६५); झवेरचंद मेघाणी (१८९७-१९४७) 'युगवंदना', 'एक तारो'; विष्णुप्रसाद त्रिवेदी (१८९९) 'उपायन'; ज्योतींद्र दवे (१९०१) 'अमे बधां'; चंद्रवदन मेहता (१९०१); करसनदास माणेक (१९०२-१९७८) 'आलबेल', 'मध्यान्ह'; डोलरराय मांकड (१९०२-१९७०); स्नेहरश्मि (१९०३) 'अर्घ्य', 'पनघट'; सुंदरजी बेटाई (१९०४) 'ज्योतिरेखा', 'इंद्रधनु'; केशवराम शास्त्री (१९०५); मनसुखलाल झवेरी (१९०७) 'चंद्रदूत', 'फूलडोल'; सुंदरम (१९०८) 'कोया भगतनी कडवी वाणी', 'काव्यमंगला'; गुलाबदास बोकर (१९०९) 'धुम्रसेर', 'मननां भूत'; जयंती दलाल (१९०९-१९७९) 'पादरनां तीर्थ', 'चोथो प्रवेश'; जयंत खत्री (१९०९-१९६८); उमाशंकर जोशी (१९११) 'विश्वशांती', 'गंगोत्री' 'निशिथ', 'वसंतवर्षा'; अनंतराय रावळ (१९१२); 'पन्नालाल पटेल (१९१३) 'वळामणां'; 'मळेला जीव'; दर्शक (१९१४) 'बंधन अने मुक्ति', 'दिपनिर्वाण'; शिवकुमार जोशी (१९१६) 'कंचुकीबंध', 'श्रावणी'; चुनीलाल मडिया (१९२२-१९६८) 'व्याजनो वारस', 'पावक ज्वाला'; राजेन्द्र शाह (१९१३); प्रल्हाद पारेख (१९१२-१९६८); निरंजन भगत (१९२६) 'छंदोलय', 'किन्नरी', 'अल्पविराम'; प्रियकांत मणियार (१९२७-१९७६); बालमुकुंद दवे (१९१६); वेणीलाल पुरोहित (१९१७); मकरंद दवे (१९२२); सुरेश जोशी (१९२१) 'प्रत्यंचा', 'गृहप्रवेश'; रावजी पटेल; मणिलाल देसाई; चंद्रकांत बक्षी.

- कों. वि. सं. मं.

**गुडगुडी:** सिगारेट, सिगार, चिरुट, विडी, पाइप, चिलीम, हुक्का आनी गुडगुडी हीं धूम्रपानाचीं मुखेल उपकरणां. हातूंतली गुडगुडी आनी हुक्का हीं साधनां उदेंतेकडल्या देशांत पयलींच्या काळासावन तंबाखूसारक्या पदार्थाच्या धूम्रपानाखातीर वापरतात.



उर्दूंतल्या 'हुक्क' ह्या मूळ 'आयदन' असो अर्थ आशिल्ल्या शब्दावयल्यान सबंद उपकरणाक 'हुक्का' हें नांव पडलें. ह्या आयदनरुपी उपकरणाक दोन भाग आसतात. वयल्या आयदनांत तंबाखू सांठोवपाखातीर आनी जळोवपाखातीर तजवीज आसता. सकयल्या आयदनांत उदक सांठ्यतात. तंबाखू जळटकच तयार जाल्लो धुंवर उदकांतसून गाळून (filter) जातकच मागीर लांब, लवचिक नळयेंतल्यान श्वसनमार्गांत ओडपाची वेवस्था ह्या उपकरणांत आसता. इराण, अफगाणिस्तान, पाकिस्तान आनी भारत ह्या देशांत हुक्का ओडपाची पध्दत पयलींच्या काळासावन चलत आयल्या. मुसलमान राजांचे मुस्तींत चड करून गिरेस्तांच्या घरांत हुक्का आसतालो आनी थंय दादले तशेंच बायलांनी लेगीत हुक्का ओडपाची प्रथा आशिल्ली. हुक्का सोयऱ्यांक दिवपाची चाल आशिल्ली. हुक्काचीं आयदनां वेगवेगळ्या धातूंपसून आनी तरेकवार नक्षीकाम केल्लीं आसतालीं.

हुक्का आनी गुडगुडी ह्या दोनूय उपकरणांत खुबशें साम्य आसा. गुडगुडी हें हुक्कासारकेंच आशिल्लें उपकरण मराठेशाहीच्या काळांत खूब लोकप्रिय आशिल्लें. हुक्काचें उदकाचें आयदन धातूचें आसतालें जाल्यार गुडगुडीचें उदकाखातीर केल्लें आयदन नाल्लाच्या सबंद कट्टेपसून केल्लें आसतालें. गुडगुडीची हेर सगळी मांडावळ हुक्कासारकीच आशिल्ली,

म्हळयार उदक सांठोवपाखातीर केल्ले कट्टेच्या आयदनाक एकेवटेन तंबाखूची नळी आसताली जाल्यार दुसरेवटेन श्वसनमार्गामेरेन धुंवर ओडपाखातीर आनीक एक नळी आसताली. तंबाखू जळटकच उदकांतल्यान धुंवर येतालो तेन्ना 'गुड-गुड' असो आवाज जातालो. देखून, ह्या उपकरणाक 'गुडगुडी' अशें नांव पडलें, अशें म्हणटात.

- कों. वि. सं. मं.

**गुडे, विश्वनाथ जयवंतः** (जल्मः २३ जानेवारी १९३३, शिरोडें-फोंडें; मरणः २० नोव्हेंबर १९७८).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें बी. एस्सी. (शेती) शिक्षण घेतलें. १७ फेब्रुवारी १९५५ दिसा ताणें मडगांव वाठारांत जाल्ल्या सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी णव वर्सां खर बंदखण आनी एक वर्स स्वताच्या घरांतूच कैदेंत दवरलो. फुडें साडे चार वर्सां बंदखण भोगतकच ताची सुटका जाली. बंदखणींतल्यान सुटले उपरांत तो समाजीक उदरगतीखातीर आनी राजकी जागृतायेखातीर वावर करूंक लागलो. लोकांक शिक्षण मेळचें आनी ताचेवरवीं तांकां राजकी जाण येवची म्हूण ताणें सत्तरी तालुक्यांतल्या ग्रामीण वाठारांत जायत्यो शाळा सुरू केल्यो. गोंय सुटके उपरांत पुण्याच्या शेतवड महाविद्यालयाच्या बी. एस्सी. परीक्षेंत तो पयलो आयलो. तेन्ना अमेरिकेच्या सरकारान ताका अमेरिकेक वचून फुडें शिक्षण घेवपाची शिष्यवृत्ती दिली. पूण ताणें ताका न्हंयकार दिलो, कारण ताका स्वताचे नदरेंतल्यान प्रयोग करून सांगें तालुक्यांतल्या कुर्डी वाठारांतले शेतवडीचें पीक वाडोवन, देशाची सेवा करपाची आसली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गुप्त राजवंशः** तिसऱ्या शेंकड्याच्या शेवटाक उत्तर भारतांतल्या पूर्विल्ल्या मगध देशांत हो वंश निर्माण जालो. ह्या वंशांतलो पयलो राजा म्हळयार श्रीगुप्त. ताच्या नांवावयल्यान ह्या वंशाक गुप्त राजवंश अशें नांव मेळ्ळें. ह्या राजवंशाच्या राजांनी इ. स. सुमार ३०० ते ५५० ह्या काळांत पुराय उत्तर भारताचेर राज्य केलें.

ह्या घराण्यांतलो पयलो राजा श्रीगुप्त; ताचे उपरांत ताचो पूत घटोत्कच गुप्त सत्तेर आयलो. ह्या दोन पयल्या राजांविशीं आनी तांचे राजवटीविशीं चडशी म्हायती मेळना. तांची सत्ता घडये पाटलीपुत्र नगर आनी भोंवतणच्या कांय वाठारांपुरतीच मर्यादीत आशिल्ली, अशें इतिहासकारांचें मत आसा. चवथ्या शेंकड्याचे सुर्वेक चंद्रगुप्त (पयलो) हो राजा जालो. ताणें प्रयागमेरेन राज्यविस्तार केलो. ह्या काळावयल्या बळीश्ट अशा लिच्छवी वंशांतल्या कुमारदेवी नांवाचे राजकुमारी वांगडा ताचें लग्न जालें. ह्या लग्नसंबंदांवरवीं लिच्छवी राजवंशाचो ताका पालव मेळिल्ल्यान ताचें राजकी बळगें वाडलें. चंद्रगुप्तान स्वताक महाराजाधिराज ही पदवी घेवन राज्यविस्तार केलो. चंद्रगुप्त हो इ.स. ३१९ त सत्तेर आयलो आनी तेन्नासावन *गुप्त शक (*)* ही काळ मेळपाची पध्दत ताणें सुरू केली, अशें मानतात. गुप्त राजा स्वताक चंद्रवंशी क्षत्रिय मानताले. नाग आनी लिच्छवी ह्या क्षत्रिय घराण्यांवांगडा आनी वाकाटक ह्या ब्राह्मण घराण्यावांगडा तांचे लग्नसंबंद आशिल्ले.

चंद्रगुप्त (पयलो) हाका सुमार इ.स. ३४० त मरण आयलें. त्यावेळार ताणें आपल्या पुताक समुद्रगुप्ताक राजगादयेर बसयल्लो. समुद्रगुप्तान बऱ्याच वाठारांचेर जैत मेळोवन आपलें साम्राज्य बरेंच व्हड केलें. पंजाब, राजपूताना आनी मध्य प्रदेश हांगाच्या बऱ्याच गणराज्यांनी आनी उदेंतेवटेनच्या बंगाल, आसाम, नेपाळ ह्या राज्यांनी ताचे सत्तेक मान्यताय दिली. अफगाणिस्तानमेरेनच्या कुशाणांनी आनी माळवा काठेवाडच्या क्षत्रपांनीय ताचें मांडलिकपण मानून घेतलें. समुद्रगुप्तान उपरांत दक्षिणेवटेन घुरयो घालूंक सुरवात केली. दक्षिण कोसलच्या (छत्तीसगड) राजाचेर जैत मेळोवन् ताणें महाकांताराचेर (वस्तर जिल्हो) घुरी घाली. हे वाठार जिखतकच तो उदेंतेवटेन बळ्ळी आनी ओरिसा आनी आंध्र प्रदेशाचेर जैत मेळोवन कांची (कांजीवरम) मेरेन सैन्य धाडलें. थंयच्या विष्णूगोप नांवाच्या पल्लव राजाक हरोवन तो पर्थून गेलो. दक्षिणेवटेनच्या राजांकडल्यान खंडणी घेवन ताणें तांचीं राज्यां पर्थून दिलीं.

समुद्रगुप्ताउपरांत ताचो पूत रामगुप्त राजा जालो. त्यावेळार शक राजान राज्याचेर घुरी घाली. शक राजाकडल्यान आपलो पराभव जातलो हे गजालीक भियेवन ताणें आपली राणी ध्रुवदेवी हिका शक राजाकडेन धाडून दिवपाचें कबूल केलें. ही मानहानी सहन न जावन रामगुप्ताचो धाकटो भाव चंद्रगुप्त (दुसरो) हाणे रामगुप्ताचो खून केलो आनी शक राजाक मारून उडोवन तो राजा जालो.

बऱ्याच इतिहासकारांच्या मताप्रमाण रामगुप्त नांवाचो राजा गुप्त वंशांत जावन गेलो काय ना, हो एक वादाचो विशय आसा. तज्ञांच्या मताप्रमाण समुद्रगुप्ताउपरांत चंद्रगुप्त थेट सत्तेर आयलो. दुसरो चंद्रगुप्त सुमार इ.स. ३७६-३८० त सत्तेर आयलो. पयले सुवातेर ताणें बेगोबेग बंगालाचेर जैत मेळयलें. ते उपरांत अस्तंतेवटेन बॅक्ट्रियामेरेन घुरी घालून ताणें कुशाणांचेर जैत मेळयलें. ताका दोन राणयो आशिल्ल्यो, ध्रुवदेवी आनी नाग वंशांतली कुबेरनागा. कांय इतिहासकारांच्या मताप्रमाण ध्रुवदेवी ही रामगुप्त ह्या ताच्या भावाची विधवा, जिका ताणें उपरांत आपली राणी केल्ली.

चंद्रगुप्ताची राजवट राज्यविस्ताराचे नदरेंतल्यान बरीच जैतिवंत जाली. ताणें माळवाकाठेवाड मेरेन राज्य करपी शक क्षत्रपांचोय पराभव केल्लो. कुबेरनागा हे राणयेचे ध्रुवेचें लग्न विदर्भाचो वाकाटक राजा पृथ्वीषेण हाचो पूत दुसऱ्या रुद्रसेनावांगडा जालें. चंद्रगुप्तान स्वताक श्रीविक्रम, अजितविक्रम, सिंहविक्रम, विक्रमादित्य अश्यो बऱ्योच पदव्यो घेतिल्ल्यो. ताचें राज्य उत्तर भारताच्या चडशा वाठारांचेर पातळिल्लें. दक्षिणेवटेनच्या विदर्भ आनी कुंतल ह्या वाठारांचो कारभारूय ताच्याच तंत्रान चलतालो. ताच्या राज्यांत सगळेवटेन शांतताय, सुवेवस्था आनी गिरेस्तकाय आशिल्ली, अशें इ.स. सुमार ४०५-११ ह्या काळांत भारतांत आयिल्ल्या फाहियान ह्या चिनी यात्रेकारान बरोवन दवरलां.

दुसऱ्या चंद्रगुप्ताक ध्रुवदेवी राणयेकडल्यान गोविंदगुप्त आनी कुमारगुप्त (पयलो) हे पूत जाल्ले. ताका मरण आयल्याउपरांत कुमारगुप्त (पयलो) इ. स. ४१३ त सत्तेर आयलो. ताचे राजवटींत चडशीं झगडीं-झुजां जालींनात.

ताणें स्वताक महेंद्रादित्य ही पदवी घेतिल्ली. ताची कारकीर्द सुमार ४२ वर्सां तिगली. ताचे कारकिर्दीच्या शेवटाक पुष्यमित्र नांवाच्या गणराज्यांतल्या लोकांनी बंड करुन ताका उपद्रव दिवपाचो यत्न केलो, पूण कुमारगुप्ताचो पूत स्कंदगुप्त हाणें धीटाय दाखोवन तें बंड मोडलें. कांय इतिहासकारांच्या मताप्रमाण कुमारगुप्त इ. स. ४१५ त राजा जाल्लो आनी इ. स. ४१३ ते ४१५ मेरेन गोविंदगुप्त हो ताचो भाव राज्यकारभार चलयतालो. कुमारगुप्ताच्या काळांत राज्यप्रशासनाच्या मळार बरो वावर जालो आनी हेर राज्यांवांगडा चड झुजां न जाल्ल्यान ताका हेर मळांचेर वावर करूंक बरी संद मेळ्ळी.

इ. स. ४५५-४५६ च्या सुमाराक जेन्ना स्कंदगुप्त बंड काबार करूंक भायर सरिल्लो तेन्ना कुमारगुप्ताक मरण आयलें. बऱ्याच इतिहासकारांच्या मताप्रमाण कुमारगुप्ताक मरण येवचेवेळार स्कंदगुप्त राजधानीभायर आशिल्ल्यान पुरुगुप्त ह्या ताच्या भावान राजगादी बळकायली आनी उपरांत स्कंदगुप्तान ती ताचेकडल्यान पर्थून हातासली. स्कंदगुप्त ताचे कारकिर्दींत बरोच पराक्रमी जाल्लो. ४५५ ते ४६७ ह्या काळांत ताणें राज्य केलें. ताचे कारकिर्दींत भारताचेर हुणांनी घुरी घाली. स्कंदगुप्तान व्हड पराक्रम करून हुणांचेर जैत मेळयलें.

स्कंदगुप्ताउपरांत गुप्त घराण्याचो इतिहास स्पश्टपणान मेळना. स्कंदगुप्त मेल्याउपरांत ताचो भाव पुरुगुप्त सत्तेर आयलो. पुरुगुप्ताउपरांत स्कंदगुप्ताचो पूत कुमारगुप्त (दुसरो) आनी ताचे उपरांत पुरुगुप्ताचो पूत बुध्दगुप्त हाणें ४९५ ते ५०० मेरेन राज्य चलयलें, अशें इतिहासीक पुराव्यांवयल्यान समजता.

**गुप्त वंशावळ**




**समाजीक स्थिती**: गुप्तकाळाचे सुर्वेक भारतांत गणराज्य पध्दत आनी राजेशाय अश्यो दोन शासनपध्दती आशिल्ल्यो. कांय काळाउपरांत गणराज्यपध्दत नश्ट जाली. गुप्त वंशान सुमार दोनशीं वर्सां बरेंच गिरेस्त राज्य चलयलें. समुद्रगुप्त आनी चंद्रगुप्त हांणी राज्यविस्तारखातीर बरीं झुजां केलीं, पूण राज्यांतली शांतताय आनी सवस्तकाय इबाडली ना. गुप्त काळांतले सगळे लोक सुखी आनी समाधानी आशिल्ले, अशें फाहियान हाणें बरोवन दवरलां. चातुर्वर्ण्य पध्दत जरी आचारांत आसली तरी जातीभायर लग्नां जातालीं आनी जातीप्रमाण धंदो हें तत्त्व कडकपणान पाळीनाशिल्ले. एकठांय कुटुंबपध्दत चलताली.

गुप्त काळाच्या शेवटाक वलभी आनी नालंदा हीं विद्यापीठां अस्तित्वांत आयलीं. समाजांत ब्राह्मण आनी क्षत्रिय हे सगळ्या प्रकारचें शिक्षण घेताले. कांय गिरेस्त कुटुंबां सोडल्यार हेर कुटुंबांनी बायलांक शिक्षण घेवप शक्य जायनाशिल्लें. बायलांक समाजांत आनी कुटुंबांत मान आसचो, अशें तेन्नाच्या विचारवंतांनी बरोवन दवरलां. सतीची चाल चडशी वेव्हारांत नाशिल्ली अशेंय दिसून येता.

गुप्त साम्राज्यांत हिंदू, बौध्द आनी जैन ह्या तीनूय धर्मांचे लोक आशिल्ले. गुप्तांपयलीं हिंदू धर्माक चडसो राजाश्रय मेळनाशिल्लो. गुप्त वैदिक संस्कृताय आनी हिंदी धर्माचे अभिमानी आशिल्ल्यान तांणी हिंदू धर्माची बरीच उदरगत केली. तांच्या काळांत वैष्णव आनी शैव पंथांचीं देवळां बांदलीं. पूण बौध्द आनी जैन धर्माक तांणी विचारांचें आनीकूय प्रचारस्वातंत्र्य दिल्लें. अश्वमेध यज्ञाची बंद पडिल्ली चाल गुप्त राजांनी पर्थून सुरु केली.

गुप्त काळांत प्रजेचेर कर उणे आशिल्ले. वेपाराची बरीच उदरगत जाल्ली. व्हडल्या शारांनी आनी गांवांनी न्याय दिवपाचो वावर पंचायती करताल्यो. ह्या पंचायतींच्या वेंचणुकांविशीं व्हडलीशी म्हायती मेळना.

**भाशा आनी साहित्य**: गुप्तापयलींच्या काळांत प्राकृत भाशेक चड मान आशिल्लो. त्या काळांतले चडशे शिलालेख प्राकृत भाशेंतल्यान बरयताले. ती प्रथा बदलून गुप्त राजांनी संस्कृत भाशेक राजभाशेची

सुवात दिली. संस्कृत साहित्यांत ह्या काळांत उदरगत जाली. नाण्यांवयले लेख, शिलालेख, ताम्रपट, शासनाचे आदेश हेखातीर तांणी संस्कृत भाशेचो उपेग करूंक सुरवात केली. समुद्रगुप्तान संस्कृत भाशेंत काव्यां बरयल्लीं. चंद्रगुप्त विक्रमादित्याच्या दरबारांतल्या णव रत्नांमदलो म्हाकवी कालिदास हो एक आशिल्लो. गुप्तकाळांतले सरदार आनी अधिकारीय काव्यां बरयताले.

सद्याक गुप्तकाळांतले बरेच उणे ग्रंथ तिगून उरल्यात. रघुवंश, अभिज्ञान शाकुंतल हीं कालिदास हाचीं काव्यां, शुद्रकाचें मृच्छकटीक, कामंदकाचें नितीशास्त्र, विष्णू शर्मा हाचें पंचतंत्र, वात्सायन हाचें कामसूत्र, सर्वसेन हाचें हरिविजय आनी प्रवरसेन हाचें रावणवध ह्यो साहित्यकृती गुप्त काळांत बरयल्ल्यो अशें मानतात. 'आर्यभटीय' हो आर्यभट्टाचो ज्योतिशशास्त्रावयलो ग्रंथ आनी 'अष्टांगहृदय' हो वाग्भटाचो वैजकी शास्त्रावयलो ग्रंथ हेय ह्याच काळांत निर्माण जाले.

**शिल्पकला, वास्तुकला आनी चित्रकला:** गुप्तकाळापयलीं चडशीं कलाशिल्पां आनी वास्तुकलेच्या मळावयली कलाकुसर बौध्द धर्माची आशिल्ली. गुप्तकाळांत कितलीशींच देवळां बांदून जालीं. तातूंतलीं जबलपूर जिल्ह्यांत तिगवा हांगाचें विष्णूचें देवूळ, भुमारा हांगाचें शिवमंदिर, अजयगढ संस्थानांतलें नाचना कुठारा हांगाचें पार्वतीचें देवूळ हीं आयजमेरेन बरीं उरल्यांत. मध्य प्रदेशांत एका गांवांत विष्णूमंदिराचे अवशेश सांपडल्यात. तेभायर सारनाथ हांगाचें धामेख स्तूप, नालंदा हांगाचें बुध्दमंदिर, देवगड हांगाचें दशावतार मंदिर अशी बरीच बांदावळ गुप्तकाळांत जाल्ली.

अजिंठा आनी वेरुळ हांगाचीं कांय लेणीं गुप्तकाळांत कोरांतिल्लीं. तेभायर हेर बऱ्याच थळांचेर फातरांचेर कोरांतिल्ले वास्तुकलेचे आनी शिल्पकेलेचे अवशेश सांपडल्यात. शिल्पकला चड उदरगतीक पाविल्ली अशें दिसून येता. सारनाथ हांगाची बुध्दमूर्ती, सद्या बर्मिंगहॅम (इंग्लंड) हांगाच्या संग्रहालयांत आसा. तांब्याची व्हड बुध्दमूर्ती, गुप्त काळांतले कलेचे गिरेस्तकायेची गवाय दिता. दिल्लीच्या कुतुबमिनारालागीं आशिल्लो लोखणाचो खांबो ही तर एक अजापाची गजाल जावन आसा.

गुप्त काळांतली चित्रकला आयजमेरेन संवसारांतल्या लोकांनी तुस्त करपासारकी आसा. बऱ्याच देवळांनी आनी विहारांनी तेभायर अजंठा आनी बाघ हांगाच्या लेण्यांनी आशिल्लीं चित्रां हजार वर्सांउपरांत आयजमेरेन बरे स्थितींत आसात.

गुप्तकाळ म्हळ्यार भारताच्या इतिहासांतलो भांगराचो काळ अशें म्हण्टात. ह्या वेळार आशिल्ली गिरेस्तकाय आनी सवस्तकाय हांकां लागून गुप्त कारकीर्दीक तें नांव मेळ्ळां.

- कों. वि. सं. मं.

## गुप्त शक:

एक राजकी कालगणना. अल्बिरुनी हाणें हर्षसंवत १४८८=विक्रमसंवत् १०८८=शक ९५३=गुप्त वा वलभी शक ७१२, अशें समीकरण दिलां. गुप्त शकाची सुरवात चैत्रादी विक्रम संवताचीं ३७६ वर्सां वा शालिवाहन शकाचीं २४१ वर्सां वतकच म्हळ्यार इ.स. ३१९ त जाली आसूंक जाय, अशें म्हण्टात. काठेवाडांतल्या एका फातरापट्यांत हिजरी ६६२=विक्रम १३२०=वलभी ९४५=सिंह १५१ आषाढ वद्य १३ रवि, असो काळ दिला. हांगा विक्रम १३२० हो कार्तिकादी आशिल्ल्यान चैत्रादी विक्रम १३२१ असो धरतात. ह्या हिसबान विक्रमसंवत ३७६ ह्या वर्सा गुप्त वा वलभी शक सुरू जाता. ह्या शकाचे म्हयने पुनवप्रणीत आसून, शकारंभ चैत्र शुध्द प्रतिपदेक जाता. ह्या शकाचो वापर काळांतरान कमी कमी जायत गेलो.

हे कालगणनेची सुरवात खंयच्या राजान केली, हें मात समजना. गुप्त वंशांतले पयले दोन राजे गुप्त आनी घटोत्कच हांच्या नांवांफाटल्यान फकत महाराज अशें बिरुद आसा. घटोत्कचाचो पयलो चलो, चंद्रगुप्त-पयलो हाच्या नांवाफाटल्यान मात 'महाराजाधिराज' हें उपपद आसा. पयल्या चंद्रगुप्ताचो नातू दुसरो चंद्रगुप्त हाचे मुस्तींतलो 'गुप्तशकानुवर्तमानसंवत्सरे एकषष्ठे' अशें वाक्य आशिल्लो एक लेख सांपडला. ताचेवेल्यान अशें अनुमान काडटात की ह्या काळाचो आरंभ चंद्रगुप्त-पयलो राज्याचेर आयलो, त्या वर्सासावन जाला आसतलो.

गुप्तां उपरांत काठेवाडांत वलभींचें राज्य उदयाक आयलें. ह्या राज्याचो अस्त जातकच थंयच्या लोकांनी गुप्त शकाक वलभी शक अशें नांव दिलां आसूंक जाय. कारण ऊनागांव हांगा मेळिल्ल्या दानपत्रांत गुप्तशका जाग्यार वलभी शक अशें नांव घाल्लें आसून ह्या पोरन्या लेखाचो काळ वलभी शक ५७४ जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## गुयाना:

गायआन्ना; गायाना. दक्षिण अमेरिकेच्या ईशान्य देगेवयलो प्रजासत्ताक देश. क्षेत्रफळ: २,१४,९६९ चौ. किमी.; लोकसंख्या: ७,९६,००० (१९८६). हाचे उत्तरेक आनी ईशान्येक अटलांटिक म्हासागर, उदेंतेक सुरीनाम, दक्षिणेक आनी अस्तंतेक ब्राझील आनी व्हेनेझुएला हे देश आसात. विस्तार १° उत्तर ते ९° उत्तर आनी ५७° अस्तंत ते ६१° अस्तंत. जॉर्जटाउन ही राजधानी.




**भूंयवर्णन, हवामान, वनस्पत आनी मोनजात:** हाचे तीन स्वभावीक वांटे जातात: दर्यादिगेवयलें मळ, ताचे दक्षिणेवटेनच्यो दोंगुल्ल्यो, अस्तंतेवटेनचे दोंगर आनी सॅव्हाना पठारां. पाकाराइमा ही हांगाची मुखेल दोंगरावळ आनी रॅराइमा ही मुखेल दोंगरातेंगशी. कॉरँटायन, एसक्वीबो ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो. हांगा धबधबेय बरेच आसात. हवामान उश्ण आनी दमट आसता. सरासरी तापमान सुमार २६° ते २७° से.; पावस १७५ ते २२५ सेंमी. इतलो पडटा.

ह्या देशांत रानांचें प्रमाण बरेंच आसा. ग्रीनहार्ट रुख हें हांगाचें खाशेलेपण. रबर, बलाटा हेय रुख हांगा सांपडटात. गरुड, घुघमां, कापूसपक्षी, शिंजीर, खंड्या, ढोक, आयबिस हीं सुकणीं जाल्यार जाग्वार, टॅपीर, आर्मांडिले, मॅनॅटी, रानमाजर ही मोनजात हांगा बऱ्याच प्रमाणांत आसा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था:** अमेरिकन इंडीयनांचे पंगड हांगा

कितलींशींच वर्सांसावन रावतात. सतराव्या शतमानांत हांगा युरोपीय पावले. ह्या वाठाराखातीर ब्रिटीश, फ्रेंच आनी डच हांचेमदीं झुजां जावंक लागलीं; पूण निमाणो हो वाठार ब्रिटिशांच्या शेकातळा उरलो. १९५० सावन हांगाच्या थळाव्या लोकांमदीं राश्ट्रवादाची भावना येवंक लागली आनी १९६६ त ह्या राश्ट्राक स्वतंत्रताय मेळ्ळी. १९७० त गुयाना स्वतंत्र, सार्वभौम, प्रजासत्ताक देश जालो. १९८० त हांगा नवें संविधान लागू जावन पीपल्स नॅशनल काँग्रेस पक्षाचो बर्नेम हो राश्ट्रपती जालो. १९८५ त ताका मरण येतकच त्याच पक्षाचो डेस्मंड हॉयटे राश्ट्रपती जालो. हांगा दर पांच वर्सांनी संसदेच्यो वेंचणुको जातात आनी दर स वर्सांनी राश्ट्रपतीची वेंचणूक जाता.

**अर्थवेवस्था:** शेतवडीचें प्रमाण चडशें ना. तरीपूण उण्या लागवड वाठारांत चड पीक काडपाचे यत्न चलतात. खनिज संपत्तीक लागून मात बरीच येणावळ मेळटा. हांगा सावन बॉक्साइट, मॅंगनीज, भांगर, हिरे हांची निर्यात जाता. यंत्रां आनी उपकरणां हांची चडशी आयात जाता. गुयाना डॉलर हें हांगाचें अधिकृत चलन आसा.

**लोक आनी समाजजीण:** वसाहतीच्या काळांत हांगा बरेच लोक भारत आनी हेर आशियाई देशांतल्यान काम करपाखातीर हाडिल्ले. वंशीक नदरेन हांगाचे सुमार ५०% लोक ईस्ट इंडियन, ३०% आफ्रिकन आनी उरिल्ले हेर वंशाचे आसात. धर्मीक नदरेन ३५% हिंदू, १८% प्रॉटेस्टंट, १८% रोमन कॅथॉलिक, १६% अँग्लिकन, ९% मुसलमान आनी उरिल्ले हेर धर्मांचे आसात. अमेरिकिन इंडियनांचे बरेच ल्हान व्हड पंगड हांगा दिसून येतात. अधिकृत भास इंग्लीश आसली तरी हिंदी, डच, फ्रेंच ह्याय भाशांचो वेव्हारांत वापर जाता. ह्या सगळ्या भाशांची भरसण जावन हांगाची थळावी 'क्रेओलिज' ही भाशा तयार जाल्या. उंचेल्या पांवड्यावयल्या शिक्षणाखातीर हांगाचे बरेच विद्यार्थी हेर भायल्या देशांनी वचून रावल्यात. येरादारी आनी संचारणाच्या मळार उदरगत जायत आसा. लिंएन, न्यू ॲमस्टरडॅम, कॉरिव्हर्टन हीं हांगाचीं हेर मुखेल शारां जावन आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**गुरखा:** नेपाळ देशांतले मुखेल जातीक 'गोरखा' वा 'गुरखा' ह्या नांवान वळखतात. गंडकी न्हंयेचे उदेंतेक त्रिशूलगंगा आनी मत्सगंगा ह्या न्हंयांच्या मध्यभागाक जो वाठार वा जिल्हो आसा, ताका 'गोरखा' म्हूण वळखतात. ताचेवेल्यान ह्या वाठारांत रावपी लोकांक 'गुरखा' वा 'गोरखा' ह्या नांवान पाचारतात. गुरखा ह्या उतराचो अर्थ गो-रक्षक म्हळ्यार गोरवां राखपी असोय जाता. ताचेवेल्यानूच तांकां 'गुरखा' हें नांव पडलां, अशेंय एक मत आसा. जायत्या विद्वानांच्या मतांप्रमाण 'गोरखनाथ' हो साधू नेपाळांत जावन गेल्लो. ताच्या अनुयायी, शिष्य वा वंशजांक गुरखा अशें म्हणपाक लागले, अशेंय कांय जाणकारांचें मत आसा. गुरखा लोक गुरु गोरखनाथाक आपलो पूर्वज मानतात.

गुरखा लोक आपल्या झुजारी स्वभावाक लागून नामनेक पावल्यात. भारताचे गुरखा पलटणींत खश, गुरुंग, मंगर हे गुरखा जमातींतले लोक व्हड प्रमाणांत आसात. गुरखा लोक स्वताक राजपूत वंशाचे मानतात. मुसलमानांनी ज्या वेळार चितोड राज्याचेर घुरयो घाल्यो, तेन्ना राजपुतांनी स्वताचें आत्मसंरक्षण करपाखातीर नेपाळांतल्या दोंगराळ वाठाराचो आदार घेतलो. गुरखा लोकांचे खास जातींत आर्य भाशा उलयतात. शेंकड्यांनी वर्सां ब्राह्मण जाती वांगडा काडिल्ल्यान ह्या समाजाचेर हिंदू धर्माचो प्रभाव पडला. पयलींच्या काळांत हे जमातीमदीं आनी ब्राह्मण वर्गाभितर लग्नसंबंद आशिल्ले.

गुरुंग जमात पुराय तरेन मंगोलाइड वंशाची जावन आसा. ही जमात स्वताक धर्मान 'हिंदू-बौध्द' मानता. बौध्द धर्म आपणावन लेगीत हे जमातीन आपल्या पूर्विल्ल्या आदिवासी धर्माक पुराय सोडूंक ना. हे जमातींत न्हंय, दोंगराची पूजा तेचपरी जनावरांक बळी दिवपाची पध्दत आसा. दुयेंस वा कसल्याय घरगुती अडी-अडचणीं वेळार पहाडी ब्राह्मण पुरोयताकडल्यान बळी-पूजेचें पुरोयतपण करतात. हेच तरेन हेर धर्मीक विधी आनी कार्यां (देखीक: जल्मदीस, लग्न वा मरण) वेळार ब्राह्मण पुरोयताक आपयतात.

मंगर जमातींतले धर्मीक विधी आनी समाजीक रिती हिंदू धर्म आनी जीववाद हांची भरसण जावन आसा. ही जात पौराणिक देव-देवतांची पूजा करता, तेन्ना ब्राह्मण पुरोयताक आपयता; तशेंच आदिदेवतेची पूजा करपावेळार घर वा वाठाराच्या मुखेल्याक आपयता.

सादारणपणान सगळे गुरखा आपणाक हिंदू धर्मीय मानतात. हिंदूंच्यो सगळ्यो परबो ते व्हडा खोशयेन मनयतात. झुजारी लोकांचें वा क्षत्रिय लोकांचें प्रतीक आशिल्लो दसरो (विजयादसम) गुरखा लोक उमेदीन मनयतात. सगळ्या धर्मीक कार्यांवेळार ब्राह्मण पुरोयताक आपयतात.

ब्रचलादेवी ही गुरख्यांची मुखेल देवता जावन आसा. कांय गुरखे शिव-विष्णूकूय भजतात. नेपाळांतल्या चडशा शारांनी ह्या दोनूय देवांचीं देवळां आसात. काठमांडू शारांत जगन्नाथ आनी नारायणाच्या देवळांवांगडा महादेव आनी शंभूनाथाचीं देवळां आसात. ह्या वाठारांतले संस्कृतायेचें मुखेल खाशेलेंपण म्हळ्यार हांगाच्या बौध्द धर्माचेर हिंदू धर्माचो प्रभाव पडला. कांय बौध्द मंदिरांत बौध्दाचे मूर्तीवांगडा हिंदू देवाच्या मूर्तीचीय पूजा जाता.

गुरखा लोक आंगापांगान शिडशिडीत आनी घटमूट आसतात. हे लोक निळो कुरतो, निळो सदरो, निळें शिरस्त्राण आनी कमरे भोंवतणी निळो कमरबंद गुठलायतात आनी तातूंत सुरे दवरतात. ह्या सुऱ्याक 'कुकरी' अशें म्हण्टात. गिरेस्त लोक आपणाल्या कपड्यांक भितल्ले वटेन बोकड्याचे केंस लावन घेतात. तकलेक तरांतरांच्या कपड्यांच्या कुडक्यांची तोपी घालतात. अधिकारी लोक तोपयांक कलाबतूची फीत लायतात. बोकड्याचें आनी रेड्याचें मांस गुरखे आवडीन खातात. तांकां शिकारेचो नाद आसता. रानदुकरां पोसप, तांकां खावंक दिवन घटमूट करप आनी मारप ही पध्दत गिरेस्त गुरख्यांमदीं दिश्टी पडटा.

नेपाळ हो दोंगराळ आनी रानवट वाठार आशिल्ल्यान हांगा शेत-भात व्हडलेशें जायना. तरीकूय दोंगराचे देंवतेर वाफे तयार करून गुरखे शेत रोयतात. गुरखे गोरवां आनी बोकड्यो पोसतात. मेंढरांच्या केंसांपसून कपडे तयार करतात. कांय गुरखा लोक मजूरी करतात तर कांय जाण गिर्यारोहण करपाक वचपी गिर्यारोहकांची वजीं व्हरतात आनी तांकां मार्गदर्शनूय करतात. गुरखा लोकांचेर आर्विल्ल्या विचारांचो प्रभाव पडूंक नासलो तरी चडशा गुरख्यांनी स्वताच्या प्रामाणिकपणाच्या आनी झुजारी स्वभावाच्या बळग्यार देशांत तशेंच देशाभायर सैनिकी तशेंच रखवालदारीच्या पेशांत नामना मेळयल्या.

गोरखा वा गुरखा जमातीचीं दोन मुखेल खाशेलेपणां म्हळ्यार: १. जण एकलो स्वताचें जेवण स्वताच शिजयता पूण जेवपावेळार मात सगळे एकठांय बसून जेवतात. २. दादलो एका परस चड बायलांकडेन लग्न जावंक शकता. गुरखा जमातींत विधवांचीं लग्नां जायनात.

- कों. वि. सं. मं.

**गुरव:** देवकार्यां करपी गोंयचो एक समाज. गुरवांची उत्पत्ती एका ऋषीसावन जाली, अशें शिवपुराणांत म्हळां. गुरव हे आदीं वयल्या वर्गांत (वर्णवेवस्थेंत) आशिल्ले. पूण तांगेल्या मूळ पुरसान म्हादेवाची पूजा करपांत आस्था दाखयलीना, देखून तांकां स्राप दिलो आनी उंचेल्या वर्णासावन तांकां सकयल देंवयले आनी तातूंतल्यानूच गुरव ही जात उत्पन्न जाली, अशें एक मत आसा.

गुरवांमदीं पांच पोटजाती आसात. तातूंत शिवाक भजपी जात सगळ्यांत श्रेश्ठ मानतात. शिवाची पूजा करपी सगळ्या जातीमदीं तांचो पयलो क्रमांक आसा. गुरवांमदीं मुंजीचो संस्कार आसा, पूण वेदांचो अभ्यास करपी परंपरा ना. ते नुस्तें, मांस खायनात. तांचें रावप, भेस, आचारविचार पुजाऱ्यांसारके आसतात.

आदल्या काळांत हे गुरव वैश्याचीं कामां करताले. पूण फुडें गुरव ही स्वतंत्र जात गोंयांत कमी जाली, तेन्ना तांचें काम वैश्य घराणीं करूंक लागलीं. सद्या गुरव जातींत आस्पाव न जावपी पूण गुरवाचींच कामां

करपी कांय वैश्य घराणीं दिसतात. ह्या समाजाची वस्ती पयलीं चडकरून सगळ्या पेडणें म्हालांत, तशेंच बाटाबाटीच्या पयलीं बारदेस, साश्ट, अंत्रूज, तिसवाडी, भतग्राम (दिवचल) आदी तालुक्यांनी दिसून येता. पोर्तुगेज सरकाराच्या कागदपत्रांनी तांचो उल्लेख 'भट गुरव' असो मेळटा.

गुरव शिवाच्या अवताराचे देव, देवता तशेंच खळनाथ, भूतनाथ, वेताळ ह्या सारक्या शिवाच्या गणाचे पुजारी आसात. ते प्रसाद लावप, उत्सवाच्या वेळार तरंगां धरप, पालखेवेळार आरती घेवन फिरप, देवस्थानांत, गांवांत, चावडेर गाराणें घालप असलीं कामां करतात. तांचेर भार येता. तशेंच कांय प्रमाणांत ते ज्योतिशाचें काम करून शेताचें रोवप, नांगरप, मळप हांचो म्हूर्त सांगतात. कांयकडेन तांकां 'भगत' अशेंय म्हण्टात. आदले ग्रामसंस्था पध्दतींत तांचो आस्पाव आशिल्लो. देवाचे सेवेकरी म्हूण ते वावुरतना दिसले तरी सद्या ते शिकून-सवरून नोकरी-वेवसाय करतना दिसतात.

गोंय, सावंतवाडी, वेंगुर्ले तशेंच कर्नाटकांतूय गुरवांची जात कांय प्रमाणांत दिसून येता. कर्नाटकांत गुरवांचे जातींत कांय पोटभेद दिसून येतात. कांय कडेन जैन गुरवूय आसात. पूण ते जैन तीर्थंकरांक भजनात. तांचेमदीं गोत्रां-कुळांय दिसनात. दक्षणा तशेंच पुजेखातीर थारावन दिल्ल्या शेताकुडक्याची जी येणावळ येता, ताचेर ते आपलें पोट भरतात. कांय खेड्यांनी गुरव वाजंत्र्यांचो धंदो करतना दिसतात. तर कांयकडेन ते बेल, फुलां, दोणे, पत्रावळी करून विकतात. कांयकडेन तांचेमदीं जात पंचायत आसताली, असो संदर्भ मेळटा.

- रवींद्र म्हाड्‌डोळकार

**गुरवचार:** पुल्लिंगी आनी स्त्रीलिंगी युग्मकां (gamets) एकठांय येवन फलन वा निषेचन (fertilization) जावन जो गर्भ तयार जाता, ताची गर्भाशयांत वाड जावप हाका गाभ-धारणा वा गर्भधारणा अशें म्हण्टात; आनी गाभधारणा जाल्याउपरांत भुरग्याचो जल्म जायसर गर्भाशयांत ताची वाड जावप हाका गुरवचार म्हण्टात.

गुरवचार येवचेखातीर बायलेचे कुडीची लैंगिक वाड जावप गरजेचें आसता. भश्टी जावपाची पिराय ल्हव ल्हव उणी जायत आसा अशें दिसून आयलां. हालींच्या तेंपार बायलांक बारा वर्सां पुराय जातकच भश्टेपण येवंक लागता. भश्टी जावंक सुरवात जाल्या बगर स्त्रीलिंग बीज तयार जायना आनी गुरवारपण येवंक शकना. आयजमेरेन सगळ्यांत ल्हान पिरायेचेर गुरवारपण आयिल्ली बायल म्हळ्यार लिना मेडीना (Lina Medina). ती फकत पांच वर्सां आनी आठ म्हयन्यांची आसतनाच गुरवार आशिल्ली आनी तिका भुरगो जालो.

४७ वर्सां उपरांत सादारणपणान गुरवारपण येना. पूण ६३ वर्सांमेरेन गुरवारपण आयिल्लें आसा आनी कांयच आडखळ येनासतना भुरगो जाल्लो आसा.

चडांत चड पांच आनी स भुरगीं एकेचफावट एकेच बायलेच्या गर्भाशयांत वाडिल्याची इतिहासांत नोंद आसा.

दरेक बायलेच्या लैंगिक अवयवांची वाड बारा ते तेरा वर्सांचेर जावंक सुरवात जाता. ताका वयार येवप वा पौगंडावस्था (puberty) अशें म्हण्टात. अशा वेळार पयलेच फावट भश्टें जावप हाका रजोसुरवात (menarche) अशें म्हण्टात. भश्टेपण येवन रजस्त्राव दर २८ वा ३० दिसांनी पर्थून पर्थून येता, हाका लागून ताका मासिक पाळी म्हण्टात. बायलांचे कुडींत जे लैंगिक अवयव आसतात, ते म्हळ्यार डिंबग्रंथी (ovary), फॅलोपियन नळी (fallopian tube) आनी गर्भाशय (uterus).

गर्भाशयाच्या दोनय वटांनी एक डिंबग्रंथी (ovary) आसता. दरेक डिंबग्रंथी भितर दर म्हयन्याक एक बीज वा डिंबपेशी (ovum) तयार जाता. जेन्ना हें बीज परिपक्व (mature) आनी पुराय तयार जाता, तेन्ना तें डिंबग्रंथींतल्यान भायर सरता. हाका अंडोत्सर्ग वा डिंबोत्सर्ग (ovulation) म्हण्टात. मासिक पाळी येवचे सादारण चवदा दीस पयलीं पोटांत दुखप हें ताचें लक्षण आसा. तेचभशेन डिंबग्रंथींत हेर ग्रंथींभशेन स्त्राव तयार जाता, जाका हॉर्मोन (hormone) म्हण्टात. देखीक इस्ट्रोजेन (estrogen) आनी प्रॉजेस्टेरॉन (progesterone) ह्या स्त्रावांक लागून गर्भाशयाची आनी थानांची वाड जाता.

दादल्याचे कुडींत अशेच बदल घडटात. वृषण (testis) हे ग्रंथीक लागून टेस्टोस्टेरॉन (testosterone) नांवाचो स्त्राव तयार जाता आनी ताका लागून सगळे कुडीची वाड जावन आवाज फुट्टा आनी लैंगिक अवयवांचीय वाड जाता. वृषणांभितर शुक्रपेशी (sperms) तयार जातात. शुक्रपेशी परिपक्व (mature) जातकच भायर सरतात आनी एके नळयेंतल्यान मुत्रोत्सर्गिकेंत (urethra) पावता. संभोग जावचेवेळार वीर्यांतल्यो शुक्रपेशी बायलेचे योनी भितर (vagina) वतात. थंयसावन वीर्यजंतू फुडें वचून तांचो संबंद डिंबाकडेन येता आनी तांचेमदीं फलन (fertilization) जाता. उपरांत तें बीज गर्भाशयांत पावता आनी थंय ताच्या पेशींचें विभाजन जावंक सुरवात जाता. एके पेशींतल्यान दोन, ताचे फुडें चार, आठ अशे वांटे जायत वतात. तशेंच तांची वाडय जायत वता. अशा वेळार त्या बीजाक कोरकपुटी (blastocyst) अशें म्हण्टात. उपरांत हें बीज गर्भाशयांतले पोकळेभितर वचून थंय मुरता.

गुरवारपणाच्या पयल्या आठ सप्तकांमेरेन जें बीज बायलेच्या गर्भाशयांत वाडटा, ताका भ्रूण (embryo) म्हण्टात. ह्या काळांत भ्रूणाचे विंगड विंगड अवयव तयार जातात. देखीक- काळीज, कान, दोळे, हात आनी पांय. ताचे उपरांत ह्या तयार जाल्या अवयवांची वाड जाता. हाकालागून आठ सप्तकांउपरांतच्या बीजाक गर्भ (foetus) म्हण्टात.

इतलेमजगतीं गर्भाशयांत कांय बदल जावन तातूंत वाटकुळ्या आकाराची वार (placenta) तयार जाता. ही वार गर्भाक नाळीवरवीं (umblical cord) जोडिल्ली आसता आनी तातूंतल्यान गर्भाक आवयचें रगत आनी प्राणवायूची पुरवण जाता.

**गुरवारपणाचीं लक्षणां:**

१. सुर्वेक पाळी येवपाची बंद जाता (amenorrhea) २. सकाळीं उठ्टकच ओंकारी आयिल्लेभशेन दिसप, वा खऱ्यानीच ओकारी येवप (morning sickness). ३. कांय खाशेले जिन्नस खावचेशे दिसप देखीक- चिच, माती. ४. पायांच्यो शिरो सुजप, शीर मोटी जावप. ५. पर्थून पर्थून मुतूंक जावप. ६. मात्शें काम केल्यार लेगीत पुरो जाल्लेभशेन दिसप. ७. योनींतल्यान स्त्राव येवप. ८. फाट दुखप. ९. वीस सप्तकांउपरांत भुरगें गर्भाशयांत भोंवता हें जाणवप.

जेन्ना गुरवार बायलेच्या गर्भाशयाची वाड जाता, तेन्ना बारा सप्तकांउपरांत वाडटा तो गर्भाशय पोटावटेन दिसूंक लागता आनी पोट मोटें जाता. गर्भाशयाचे स्नायू मदींच आवळून येतात आनी ते हात लायल्यार जाणवतात. योनीचो कोर दाट निळो वा जांबळो जाता. गर्भाशयाचें तोंड (cervix) मोव जाता. गर्भाशयाची तपासणी करीत जाल्यार भुरग्याची तकली, हात, पांय हे अवयव लागतात. थानांची वाड जावन तातूंत दूद तयार जाता. पोटाची कात आनी दोळ्यांभोंवतणची कात काळी जाता.

सादारणपणान बायलमनशेचें गुरवारपण २८० दीस वा ४० सप्तकां मेरेन उरता.

**गुरवारपणाचें निदान** (Diagnosis): १. भुरग्याच्या काळजाचें ठोके आयकूंक येवप. स्टेथोस्कोप लावन हे ठोके अठरा सप्तकांउपरांत जाणवतात, पूण ultrasound वा echo cardiography वापरित जाल्यार सात-आठ सप्तकांभितर हे आयकूंक येतात. २. भुरगें पोटांत भोंवतना हाताक लागत जाल्यार गुरवारपणाचें निदान करूंक येता. ३. Ultrasound पध्दत वापरीत जाल्यार फकत पांच सप्तकांभितर गर्भाशयांत वाडपी गर्भ दिसता. हे भायर एकापरस चड म्हळ्यार जुवळीं, तिळीं भुरगीं गर्भाशयांत आसल्यार कळटा आनी भुरग्याक कसलेंय व्यंग आसल्यारय समजता. ४. क्ष-किर्णां (x-rays) फोटो काडून भुरग्याचीं हाडां जर दिसत जाल्यार गुरवारपणाचें निदान करूं येता. ५. HCG नांवाचे संप्रेरक (harmone) रगतांत वा मुतांत सांपडत, जाल्यार ताचेवयल्यानय

गुरवारपणाचें निदान करूंक येता.

**प्रकारः** *१. सादारण गुरवारपणः* गुरवारपणांत जर आवयक आनी भुरग्याक कांयच त्रास जालोना, जाल्यार ताका सादारण सोपें गुरवारपण (uncomplicated pregnancy) म्हण्टात.

२. *कठीण वा धोक्याचें गुरवारपण* (high risk pregnancy): गुरवारपणांत जर आवयच्या कसल्याय दुयेंसाक लागून भुरग्याच्या आनी आवयच्या जीवाक त्रास जायत जाल्यार ताका high risk pregnancy म्हण्टात. देखीकः गुरवार बायलेक काळजाचें दुयेंस आसत, जाल्यार गुरवारपणांत ती मरूंक शकता. बायलेक गोड्यामुताची (diabetes) पीडा आसत जाल्यार भुरग्याक कसलेंय व्यंग जावंक शकता वा भुरगें जावंचे पयलींच मरूंक शकता. आवयचो रगत गट Rh -ve आसत जाल्यार भुरग्याक जातनाच कामीण जावंक शकता. आवयचे कुडींत रगत उणें आसल्यार वा तिचो रगत दाब (blood pressure) वाडिल्लो आसल्यार भुरगें सामकें बारीक जाता वा मरूंक शकता.

३. *एकापरस चड भुरग्यांचें गुरवारपण* (multiple pregnancy): बायलेच्या गर्भांत जुवळीं वा तिळीं वा चड भुरगीं आसप. असल्या गुरवारपणांत सगळेच त्रास वाडटात.

४. *घुस्पागोंदळाचें गुरवारपणः* बायलेच्यो कसल्योय कुडीच्यो वा बाळंतपणाविशींच्यो अडचणी आसत जाल्यार वा बायलांचे रोग गुरवारपणांत त्रास करूंक लागत जाल्यार ताका pregnancy complicated with obstetric and gynaecological problems म्हण्टात.

देखीकः Ecclampsia नांवाच्या प्रकारांत गुरवार बायलेचो रगत दाब (blood pressure) अचकित बरोच वाडटा. हाचें कारण आजून कळिल्लें ना. उपरांत तिचे हातपांय सुजतात, मुखामळ सुजता आनी मुतांतल्यान प्रोटीनमेह (preteinuria) भायर पडटा. हाका मुतांत सूज मेळप म्हण्टात. तकली उसळटा, दोळ्यांक धुसर धुसर दिसता, हड्ड्यांत दुखता आनी मुतूंक साप्प उणें जाता. हाचो वायट परिणाम म्हळ्यार मोल्लूक मारून येवप आनी बेसुध्द जावप. हे भायर गर्भाशयांत भुरगें घुस्मटून मरूंक शकता.

गुरवार बायलेचेर कसलीय शस्त्रक्रिया करून गर्भाशयाचेर ताची माव (scar) आसत जाल्यार, गर्भाशय गुरवारपणांत वाडूंक लागतकच ते मावेचेर ताण पडून ती फुटूंक शकता.

गुरवार बायलेच्या आंगांत रगत उणें आसत जाल्यार (पंडुरोग-anaemia) भुरग्याकय रगताची पुरवण उणी जाता. हाका लागून गर्भाशयांत भुरग्याची वाड सारकी जायना आनी तें बारीक जाता.

आवयक भायली पीडा म्हळ्यार सिफीलीस (syphilis) सारको गुप्तरोग वा toxaplasma ह्या सारको रोग आसत वा जायत, जाल्यार तांचे जंतू गर्भाभोंवतणच्या आवरणांतल्यान नाळीवरवीं भुरग्याचे कुडींत वतात आनी भुरग्याक व्यंगां जावंक शकतात वा भुरगें खूब बारीक जाता.

५. *आपस्थानीय (ectopic) गुरवारपण-* फलन जाल्ल्या बीजाची धारणा गर्भाशयेचे पोकळेंत जालीना, जाल्यार तें बीज दुसरेकडेन वचून रावता. देखीकः गर्भाशयाच्या तोंडाकडेन, फेलोपियन नळयेंत आनी केन्नाकेन्नाय गर्भाशयाच्या भायर पोटाचे पोकळेभितर आंतकड्यांक तेंकून पसून गर्भ कांय काळ वाडूंक शकता. हाचे वायट परिणाम जातात. गर्भ नळयेंत वाडलो (tubal pragnancy) जाल्यार ती नळी एक दीस फुगून फुटूंक शकता आनी अशावेळार जावपी रगताचो स्त्राव वेळच्यावेळार बंद केलोना जाल्यार आवयच्या जीवाक धोको आसता.

**गुरवारपणांत घेवपाची जतनायः** गुरवार बायल दोतोराम्हन्यांत वतकच तिका पुराय तपासून गुरवारपणाची खात्री करून घेवप गरजेचें आसता.

रगताचो तपास करून बायलेच्या आंगांत रगत उणें आसत जाल्यार पळोवप आनी कसलीय पीडा (infection) आसल्यार पळोवप.

रगताचो तपास करून syphilis सारकी पीडा आसा वा ना हाची खात्री करून घेवप. मुताची तपासणी करून तातूंतल्यान गोड्यामुताचो रोग आसा, वा proteins वतात वा कसलेंय infection आसा काय ना तें पळोवप. बायलेचें वजन करून दर फावट भुरग्याची वाड सारकी जाता काय ना तें पळोवप. बायलेचो आनी घोवाचो रगतगट तपासून जतनाय घेवप. हे भायर गर्भाशयाचे लांबायेचें (fundal height) पोटाच्या आकाराचें (girth) माप काडप, stress test, Non stress test, fetal cardiotocography ह्या सारक्यो परीक्षा करप, shake bubble test करून भुरग्याचीं फुफ्फुसां तपासप ह्योय गजाली गुरवारपणांत करतात.

**गुरवार बायलेन स्वताविशीं घेवपाची जतनायः** १. सादारणपणान स्वताचे कुडीची जतनाय घेवप गरजेचें. हेखातीर सदांच चुकनासतना न्हावप, नितळ कपडे घालप, दातांची आनी थानांची जतनाय घेवपी पडटा. २. सिगरेट वा सोरो गुरवार बायलेन टाळचो. ३. अती काम करप ना आनी न्हिद सारकी घेवप. ४. पयले ३ म्हयने शरीरसंबंद दवरप ना. ५. गुरवार बायलेन उण्यांत उणी तीन धोणकुटेचीं इंजेसांवां घेवप गरजेचें. हाका लागून जल्मल्या उपरांत भुरग्याक धोणकुटेआड राखण मेळटा. ६. गुरवार बायलेन सारको आनी बरो आहार वेळच्यावेळार घेवप. ७. आंगात रगत उणें आसल्यार Iron च्यो गुळयो घेवन रगत वाडोवपाचो यत्न करप. हे भायर गुरवारपणांत कांय म्हत्वाच्यो धोक्याच्यो सुचोवण्यो (warning signals of pregnancy) म्हळ्यार- आंगार रगत वचप, पांय सुजप, पोटांत दुखप, आंगार उदक वचप, भुरगें पोटांत खूब कमी भोंवप वा चड भोंवता अशें दिसप. हाचेपैकीं खंयचोच त्रास जायत जाल्यार मुजरत दोतोराक मेळूंक जाय.

- डॉ. विजय तळावलीकार

**गुरुकुलः** गुरूकुल ह्या शब्दाचो अर्थ गुरुचें कुटुंब वा गुरुवंश असो जाता. फुडें ह्याच गुरुकुलांक शिक्षणसंस्था ह्या नांवान वळखुपाक लागले. हे शिक्षण संस्थेचे पध्दती प्रमाण शिकपी विद्यार्थी गुरुच्या घरांत म्हळ्यार आश्रमांत वा पर्णकुटींत रावन शिकप घेता. गुरुकुलाचो इतिहास हो ह्या देशाचे शिक्षणवेवस्थेचे आनी ज्ञानविज्ञानाचे उदरगतीची बुन्याद जावन आसा.

गुरुकुलांत शिकप घेवपी भुरगो धर्मसंस्कार केल्लो, मूज बांदिल्लो, ब्राह्मण, क्षत्रिय वा वैश्य आसचो पडटालो. ६, ८ वा ११ वर्सांचे पिरायेर भुरग्यांक शिक्षणाखातीर गुरुकुलांत प्रवेश दिताले. हें शिकप बारा वर्सां चलतालें. गुरुकुलांत साबार विशय शिकयताले. हातूंत शास्त्र आनी विज्ञान हांचोय आस्पाव जातालो. गुरुच्या म्हन्यांत, ब्रह्मचर्यव्रताक पाळो दिवन हें शिकप घेवचें पडटालें. गुरुकुलांत वेद वेदांगां आनी शास्त्रां शिकयताले. तशेंच विद्यार्थ्यांच्या मन-बुध्दीचेर बरे संस्कार करताले. शिकप सोंपतकच गुरू विद्यार्थ्यांक गृहस्थाश्रमाचीं विंगड विंगड कर्तव्यां पाळपाखातीर परतो घरा धाडटालो. घरा वचचेपयलीं वा शिक्षण चलतासतना विद्यार्थी आपले तांकी प्रमाण गुरुक दक्षणा दितालो. गरीब विद्यार्थी, जो दक्षणा दिवंक शकनाशिल्लो ताचेर कसलीच सक्ती आसनासली. तो शिकप सोंपतकच मेकळेपणान वचूंक शकतालो.

गुरुकुलांत प्रवेश घेवपाखातीर गिरेस्त वा गरिबीचो प्रस्न जरी आयलोना, तरी जातीचो प्रस्न येतालो. वयर दिल्ले तीन वर्ग सोडून हेर जातींक गुरुकुलांत केन्नाच प्रवेश मेळनासलो. पुराणांत ह्या संबंदान कर्ण आनी एकलव्याचे दोन म्हत्वाचे उल्लेख मेळटात. सूतपूत म्हूण कर्णाक, तर निषाद म्हूण एकलव्याक विद्या शिकोवपाचें द्रोणाचार्यान न्हयकारिल्लें.

भारतांत गुरुकुलाचें दायज पूर्विल्ल्या काळांत ऋषी-मुनींनी कितलीशींच शतमानां तिगोवन दवल्लें. गुरु, गुरुकुल आनी विद्यार्थी हांची पुराय जापसालदारकी घेवप, हें राजा आपलें कर्तव्य समजतालो. वरतंतु ऋषीची चवदा कोटी रुपयांची दक्षणा जेन्ना कौत्स गरीबीक लागून दिवंक पावलोना, तेन्ना ताणें रघुराजाकडेन धांव घेतली. पुराय संन्यास घेतिल्ल्या रघुराजान कुबेराचेर घुरी घालपाची तयारी केल्ली. रघुराजाक भियेवन कुबेरान भांगरा मुद्रांचो शिंवर रघुराजाचेर घालो. रघुराजान उपरांत ह्यो मुद्रा कौत्साक दिवन ताका संतुश्ट केलो, अशी कथा पुराणांत आसा. वयली कथा मातशी अतिरंजीत आसली तरी पूर्विल्ल्या

काळांत राजा, गुरुकुल, गुरु वा गुरुशिष्यांच्या उतरांक कसो पाळो दिताले, हाची बरी देख जावन आसा. प्रसेनजित राजान ब्राह्मणाक आश्रमाचो खर्च चलोवपाक कांय गांव दान दिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. जायते राजा विद्यार्थ्यांच्या शिक्षणाखातीर अग्रहाराची थापणूक करताले. त्या अग्रहारांत गुरु-शिष्य एकठांय रावपाची आनी तांचे योगक्षेमाची तजवीज करताले.

पूर्विल्ल्या काळांत वाराणसी (काशी) शिक्षणाचें आद्यपीठ आसलें. गुरुकुलाचें आर्विल्लें रूप म्हळ्यार तक्षशिला, नालंदा, विक्रमशिला आनी वल्लभीचीं विश्वविद्यालयां जावन आसात. पूर्विल्ल्या गुरुकुलांत आयच्या सारकेच कुलपती आसताले. कालिदासान वसिष्ठ आनी कण्व ऋषीचो कुलपती म्हूण रघुवंशांत उल्लेख केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गुरुद्वारा:** शीख लोकांच्या उपासनामंदिराक 'गुरुद्वारा' अशें म्हण्टात. ह्या शब्दाचो अर्थ 'गुरू रावपाची सुवात' असो जाता. 'ईश्वर ज्या जाग्यार रावता तो जागो म्हळ्यार 'गुरुद्वारा' अशी शीख लोकांची श्रध्दा आसा. उपासना केल्यार देवाच्या महालाचो दरवटो उगडटा, अशे समजुतीन उपासनामंदिर वा गुरुद्वाराक ईश्वराचो दरवटो मानून पूजा करतात. पयलीं अशा जाग्याक धर्मसाल म्हण्टाले. पूण हो शब्द वापरांतल्यान गेलो आनी गुरुद्वार हें उतर घोळपाक लागलें.

गुरुद्वारांत देवाची मूर्त नासता, तर थंय शिखांचो पवित्र धर्मग्रंथ 'ग्रंथसाहिब' हाची थापणूक केल्ली आसता. शिखांचे दिसपट्टे आनी रासवळ धर्मीक वेव्हार ह्या गुरुद्वारांत जातात. शिखांचे दिसपट्टे उपासनेभितर जपजीसाहेब, सुखमनिसाहेब, आसादीवारचें कीर्तन, जापसाहेब, आनंदसाहेब हे गुरुद्वारांतले सकाळचे नित्यपाठ आसतात. ते उपरांत अर्जुन देवाच्या सुखमनीतली प्रार्थना जाता. ही प्रार्थना जातकच धा गुरु, पांच पुत्र, पंच प्यारे हांची याद करून निमाणें प्रसाद वांटप जाता.

चडशा मुखेल गुरुद्वारांतल्यान फुकट अन्नछत्र (लांगर) चलता. गुरुद्वारांत भितर सरतना तकली धांपपाक जाय, असो धर्मीक नेम आसा. तेखातीर गुरुद्वारांत भितर सरतना तकलेक वस्त्राचो कुडको गुठ्लायतात.



गुरुद्वारा

थळाव्या गुरुद्वाराचें वेवस्थापन त्या त्या गुरुद्वाराच्या वांगड्यांतल्यान वेंचून आयिल्लें मंडळ पळेता. गुरुद्वाराची दिसपट्टी वेवस्था आनी पुरेयतपण 'ग्रंथी' कडेन म्हळ्यार नेमिल्ल्या पगारी पुरोयताकडेन आसता. ग्रंथीच्या हाताखाल वावर करपाक पगाराचेर नोकर दवरिल्ले आसतात. कांय इतिहासीक म्हत्वाच्या गुरुद्वारांचें वेवस्थापन पयलीं वंशपरंपरेन चलून आयिल्ल्या महंताकडेन आसतालें. उपरांत तें तांच्या हातांतल्यान काडून घेवपाखातीर १९२१ वर्सा शिखांनी एकवटीत जावन एक व्हड चळवळ उबारली. एका व्हड झुजा उपरांत ही चळवळ १९२५ त जैतिवंत जावन 'गुरुद्वारा वेवस्थापन अधिनेम' संमत जालो. मुखेल इतिहासीक गुरुद्वारांचें वेवस्थापन 'शिरोमणी गुरुद्वारा प्रबंधक कमिटी' हे लोकशायेचे धर्तेचेर वेंचिल्ले संस्थेच्या हातांत आयलें. ही समिती गुरुद्वाराचें वेवस्थापन पळेता. केंद्र सरकाराच्या गुरुद्वारा वेवस्थापन अधिनेमाखाल गुरुद्वारांतली वांगड्यांची वेंचणूक जाता आनी मुखेल मध्यवर्ती मंडळ वेंचून काडटात.

शिखांच्या धर्मीक आनी समाजीक जिवितांत गुरुद्वाराक खाशेलें म्हत्व आसा. धर्मग्रंथांत जे कांय वादाचे विशय आसतात, तांचेर धर्ममुखेली निर्णय घेता.

शिखांचीं चार धर्मपीठां आसात, तीं अशीं:

१. हरिमंदिर साहेब वा दरबार साहेब, अमृतसर-पंजाब. पांचवो शीख गुरु, अर्जुनदेव हाणें ह्या गुरुद्वाराची थापणूक केली. हाकाच 'अकाल तख्त' अशें म्हण्टात.

२. हुजूर साहेब, नांदेड-महाराष्ट्र. हांगाचें हरिमंदिर राजा रणजितसिंगान बांदलें.

३. पटणा साहेब, पाटणा-बिहार. हें हरिमंदिर राजा रणजितसिंगान बांदलें. हांगाच गुरू गोविंदसिंगाचो जल्म जालो.

४. केशगढ साहेब, आनंदपूर-पंजाब. शिखांचो णववो धर्मगुरू, गुरु तेगबहादुर हाणें ह्या गुरुद्वाराची थापणूक केली.

ह्या चारुय धर्मपीठांक 'तख्त' म्हण्टात. शिखांचे धर्मीक आदेश हांगा सावनूच भायर सरतात. हे खेरीज दिल्लींतलें शीशगंज हेंय इतिहासांत नामनेक पाविल्लें गुरुद्वारा जावन आसा. तेभायर कर्तारपूर, हरिगोविंदपूर, लाहोर, सियालकोट, पंजासाहेब, एमिनाबाद हीं पाकिस्तानांतलीं शीख लोकांचीं गुरुद्वारां, तीर्थक्षेत्रां म्हूण नामनेक पावल्यांत.

गोंयांत बेती आनी वास्को हांगा गुरुद्वारां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**गुलबर्गा:** कर्नाटक राज्यांतल्या गुलबर्गा जिल्ह्याचें मुखेल थळ. हैदराबाद संस्थानाच्या विलीनीकरणा उपरांत गुलबर्गा शार हें आदल्या म्हैसूर राज्यांतलें एक जिल्हा केंद्र आसलें. कर्नाटक राज्यांतल्या मुखेल शारांत गुलबर्गा शाराचो सवो क्रमांक लागता. शाराचो आवांठ: १६.२ चौ. किमी.; लोकसंख्या: २०,७५,३६८ (१९८१). हें शार मुंबय-मद्रास रेल्वेमार्गान मुंबयसावन आग्नेयेक ५६५ किमी. अंतराचेर आसा आनी हैदराबादसावन अस्तंतेक १७६ किमी. अंतराचेर आसा.

इतिहासीक नदरेन गुलबर्गा शार मुळचें हिंदू संस्कृतायेचें केंद्र आसलें. पूण १३४७ ते १४२२ मेरेन बहामनी राजकर्त्यांनी ताचेर आपलो शेक चलयलो आनी थंय आपली राजधानी स्थापन केली. ह्या काळांत बांदिल्ल्यो कलाकुसरीच्यो वास्तू आयजूय गुलबर्गा शाराच्या सोबितकायेंत भर घालतात. ह्या वास्तूंत सगळ्यांत म्हत्वाची अशी एक मशीद आसा. ही मूर शैलींतली जामी मशीद पंदराव्या शेंकड्यांत बांदिल्ली. ही मशीद स्पेन राज्यांतल्या कॉर्दोव्हा शारांत आशिल्ले मशिदीचे धर्तीर बांदल्या. फिरोजशाह तुघलकावांगडा आयिल्ल्या चिस्ती कुटुंबांतल्या बंदा नवाझ ह्या संताचो हांगा आशिल्लो दर्गा खुबूच पवित्र मानतात. ह्या दर्ग्या म्हऱ्यांत दर वर्सा मोटी जात्रा भरता.

गुलबर्गा ही गंव, ज्वारी आदी धान्यांची बाजारपेठ आसा. हांगा कापसाच्यो गिरणी आनी तेलाचे घाणेय आसात. हालींच्या काळांत गुलबर्गा शार शिक्षणाचें व्हड केंद्र जालां. हें लिंगायत लोकांचें एक क्षेत्र अशें समजतात.

- कों. वि. सं. मं.

**गुलाब:** (मराठी-गुलाब; संस्कृत-शतपत्रा, तरुणी, महाकुमारी; कन्नड-मुळुसे वंतिगे; इंग्लीश- रोझ; लॅटीन-रोझा; कूळ-रोझेसी). मनीस जल्माक येवचेपयलीं गुलाब ही वनस्पत आस्तित्वांत आशिल्ली अशें मानतात. थीओफ्रॅस्टस (इ. स. प. ३७०-२८५) तशेंच प्लिनी (इ. स. २३-७९) ह्या शास्त्रज्ञांच्या लिखाणांत गुलाबाचो उल्लेख मेळटा. आशिया मायनर आनी अस्तंत चीन हे वाठार गुलाबाचें मूळस्थान मानतात. इ. स. सातव्या शेंकड्यांत अरबांनी इराण हतासतकच त्या देशांतल्यान गुलाब

गरज आसना. पूण गुलाबाचें झाड रोयता आसतना ताका उण्यांत उणें दिसाक स वरां वत मेळसारकी सुवात मेळ्ळ्यार पुरो जाता. गुलाबाची लागवड खांदयो, बियो, कलमां हांचेपसून करतात. बियांपसून केल्ली गुलाबाची लागवड वेपारी नदरेन परवडपासारकी नासता. चड करून गुलाबाची लागवड कलमांपसून करतात. हें करपाखातीर दोळो भरपाची पध्दत(budding) वापरतात. गुलाबाची लागवड कुंडेत वा जमनींत करूं येता. जमनींत लागवड करपाची आसल्यार ७५×७५ सेंमी. अंतराचेर ३०×३०×३० सेंमी. लांब, रुंद आनी खोल इतल्या आकाराचीं फोंडकुलां मारून करतात. कुंडेंत लागवड करपाच्या वेळार उण्यांत उणी १२ इंच रुंदायेची कुंडी घेवची पडटा. जमनींत लायिल्ल्या झाडाक वर्साक १०० ग्रॅ. नत्र, १०० ग्रॅ. स्फुरद आनी ७० ग्र. पलाश अशें सारें दिवचें. कुंडेंतल्या गुलाबाक हें सारें अर्द्या प्रमाणांत दितात. ऑक्टोबर म्हयन्यांत गुलाबाच्या झाडाची छाटणी करतात.

गुलाबाच्या झाडाक जायते रोग आनी किडी लागूंक शकतात. तातूंतले व्हड प्रमाणांत नुकसान करपी कांय रोग आनी किडी अश्यो आसात *१. भुरी:* हो रोग जातकच पानांचेर धव्या पिठ्याचो थर दिसता आनी पानांक मिरयो पडिल्ल्यावरी दिसतात. हाका आळाबंदा हाडपाक १० लिटर उदकांत २० ग्रॅ. सल्फर घालून, ताचो फवारो पानांचेर मारतात. *२. काळे थिपके: ह्या रोगान पानांचेर काळे थिपके पडटात. तांकां आळाबंदा हाडपाक १० लिटर उदकांत २० ग्रॅ. कॅप्टन हें वखद घालून पानांचेर ताचो फवारो मारतात. ३. डायबॅक:* ह्या रोगान गुलाबाच्या झाडाच्यो ताळयो सुर्वेक काळ्यो जातात आनी उपरांत त्यो सुकतात. ह्या रोगाची लागण चडकरून ताळयांची कापणी केलेउपरांत जाता. देखून कापणी केलेउपरांत कापिल्ल्या भागांक फायटालोन ह्या वखदाचो लेप करून लायतात.

गुलाबाच्या झाडाचें लुकसाण करपी कांय म्हत्वाच्यो किडी अश्यो आसात: *१. वायटी:* ही झाडाचीं मुळां खाता, जाकालागून झाड मरता. तिका आळाबंदा हाडपाक झाडाच्या मुळांत १० टक्के बी. एच्. सी. हें वखद घालचें. तेचपरी झाड रोयतना फोंडकुलांत १०० ग्रॅ. बी. एच्. सी. घालतात. *२. पानां खावपी मूस:* हांका आळाबंदा हाडपाक १० लिटर उदकांत १० मिली. नुवान हें वखद घालून झाडाचेर ताचो फवारो मारतात. *३. खवले कीड:* ही मेणाभशेन दिसता आनी ताळयांचेर घट्ट दसून बसता. तिका आळाबंदा हाडपाक रोगोर ०.१ टक्के ह्या वखदाचो वापर करतात.

घराची सोबीतकाय वाडोवपाक चड करून पोरसांत गुलाबाची लागवड करतात. तेचपरी वेपारी नदरेनूय गुलाबाची लागवड करतात.

देवाक घालपाक आनी बायलो माथ्यांत माळपाक गुलाबाच्या फुलांचो उपेग करतात. गुलाबाच्या फुलांचे जायते वखदी उपेगूय जातात. जोर, दाड दुखप, तकली उसळप, पोटांतलो अल्सर ह्या दुयेंसांआड गुलाबाच्या फुलांचो वापर करतात. गुलाबाच्या बियांचो पिठो (चूर्ण) रगत व्हांवप, आनी चड परसाकडे जावप हाचेर गुणकारक आसा. गुलाबाच्या फुलांपसून अत्तर काडटात. हें अत्तर काडून उरिल्ल्या उदकाक 'गुलाबपाणी' म्हण्टात. गुलाबपाणी दोळ्यांत घाल्यार दोळे निरोगी उरतात. 'दोळे' येतकच दोळ्यांक थंडसाण मेळपाक दोळ्यांत गुलाबपाणी घालतात. गुलाबापसून गुलकंद करतात.

- विश्राम गांवकार

**गुलामगिरी:** एकाद्र्या मनशाक विकतो घेवन वा जिखून ताचे कडल्यान कुडीक कश्ट दिवपाचें काम करून घेवप वा स्वताची सेवा करून घेवप, तशेंच ताच्या वा तिच्या व्यक्तीस्वातंत्र्याचेर घुरी घालप हाका 'गुलामगिरी' अशें म्हण्टात.

पूर्विल्ल्या काळांत मनीस जंगलांत वचून सावदां मारून खातालो आनी तांचेर आपलें पोट भरतालो. त्या काळार मनशाची उदरगत जावंक नाशिल्ल्यान वा ताचे दिसपट्टे जिणेक जायतीं आडमेळीं आशिल्ल्यान गुलामगिरीची चाल अस्तित्वांत आसप शक्य नासलें. मनीस जातीचे उदरगतीचे दुसरे अवस्थेंत जेन्ना मनशाक नुस्तें पागप, शेत रोवप आदी वेवसायांत येस मेळ्ळें, तेन्ना तांकां मनीसबळाची गरज लागली. हें मनीसबळ गुलामाच्या रुपान एकठांय करताले. ते उपरांत शेताच्या कामाखातीर गुलामाचो उपेग व्हड प्रमाणांत जावपाक लागलो. झुजांत जिखून हाडिल्ल्या दुसऱ्या देशांच्या वा राजाच्या सैन्याकूय गुलाम म्हूण हाडटाले, तांकां जिवेशीं मारचे परस तांकां कश्टाचीं कामां दिताले. तांच्या श्रमाचेर चड उत्पादन आनी चड अर्थीक फायदो घेवपाक मेळटलो, ह्या अर्थीक फायद्याचे आशेन, गुलामगिरीचे प्रथेन आपलीं पाळां-मूळां घट केलीं.

पूर्विल्ल्या काळांत भारत देशांत गुलामगिरी नासली, अशे ग्रीक लोकांनी बरोवन दवरलां आनी ताचेर अजापूय उक्तायलां. पूण भारतांत गुलामगिरी नासली, असो अर्थ मांत ताचेवयल्यान काडप शक्य जावचेंना.

कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत दासाचेर 'दासकल्प' म्हूण प्रकरण आयलां. मनुस्मृतीच्या ग्रंथांत स तरांच्या दासांचो म्हळ्यार गुलामांचो उल्लेख आयला. १. झुजांत धरिल्ले सैनीक २. घरांतलो वावर करपी ३. दासीच्या पोटांत जल्माक आयिल्लो ४. जिखून वा विकतो घेतिल्लो ५. घराण्यांत वंशपरंपरेन चलत आयिल्लो ६. दंड भरप शक्य नाशिल्ल्यान अडून उरिल्लो.

दासाची बायल वा भुरगीं हींय दासच म्हूण जियेतालीं. महाभारतांत, राजसभेंत हाडिल्ले द्रौपदीक 'आतां तूं आमची दासी आसा' असो उल्लेख केला. हाचेवेल्यान 'दासी' वा 'दास' हांकां त्याकाळार लेगीत हीन आनी सकयल्या पांवड्यावेले लेखताले, हें स्पश्ट जाता. त्याकाळार दासीपुत्र, क्रीतदास, युध्ददास आनी धृतदास अश्यो वेगवेगळ्या दासांच्यो तरा सांगल्यात. पांडव द्युतांत हरिल्ल्यान कौरवांचे द्युतदास जाल्ले.

इ. स. २५०० वर्सांपयलीं भारतांत नंदपी सिंधुसंस्कृतायेंत गुलामगिरी चलताली अशें मत पुरातत्त्वपंडितांनी काडलां. पूण ताका कसलोच पुरावो नाशिल्ल्यान ते गुलामगिरीचें स्वरुप आनी खरेपण सांगप शक्य जायना.

वैदिक काळार गुलामगिरी वंशीक भेदाचेर आदारिल्ली. आर्य लोकांनी भारतात येतकच हांगाच्या अनार्य लोकांक धांवडावन घाले. जे हाताक मेळ्ळे तांकां दास केले. हे अनार्य काळ्या रंगाचे, जित जमातीचे लोक आसुंये अशें वैदिक साहित्यावेल्यान दिसता. हे आर्य सगळ्या अनार्यांक 'दस्यू' म्हण्टाले आनी स्वताच्या कामाखातीर घोळयताले. तांकां जनावरांइतलोच मान मेळटालो.

मध्ययुगांतूय भारतांत गुलामगिरीची वायट चाल चलताली. मुसलमानी लोक जेन्ना तांच्या देशांतल्यान हांगा आयले तेन्ना तांचे वांगडा गुलामगिरीची चाल पर्धून वयर सरली. ल्हान भुरगो वा पूत हांकां 'गुलाम' ह्या अर्थान कुराणांत पाचारल्यात. आर्विल्ले मुसलमान गुलाम हें उतर 'दास' ह्या अर्थान वापरतात. गिरेस्त मुसलमान घराण्यांनी तेचपरी नबाब, अमीर, उमराव सारक्या राज-परिवाराभितर दादले-बायलो गुलाम म्हूण दवरपाची चाल आसली. घरांतलीं सगळीं कामां गुलाम करताले. घरधनी, गुलामांक मायेमोगान वागयतालो. तांच्या खावपा-जेवपाची, न्हिदपा-उठपाची वासपूस करतालो. मनीसपणान वागयिल्ल्यान, जायते फावटीं घरधनयान मुक्त केल्यार लेगीत गुलाम तांकां सोडून वचनासले. गुलाम बायलांच्या आंगार विंगड विंगड.अलंकार घालपाची चाल चलताली. घरमालकिणीचे संपत्तीचें प्रदर्शन करपाची ही एक चाल आसली. गुलामाच्यो सगळ्यो वस्ती धनयाच्योच आशिल्ल्यान, तातूंत तांचेंय कांय लुकसाण जायनासलें. ते गुलामांचीं लग्नां लावन दिताले. तांच्या भुरग्यांकूय मोगान वाडयताले आनी शिकपूय दिताले. स्वताच्या कर्तृत्वान वयलें पद जोडप अशे तरेन गुलामाक शक्य जातालें. गुलामांनी सेनानायक म्हूण पराक्रम गाजयलो, इतलेंच न्हय तर कांय गुलाम सुलतान लेगीत जाल्याचे उल्लेख इतिहासांत आसात. इ. स. १२०६ त दिल्लीचो सुलतान जाल्लो कुतूबद्दीन ऐबक मुहंमद घोरीचो

गुलाम आसलो.

भारत सोडून अस्तंत आशिया, युरोप आनी मुसलमानी राश्ट्रांनी गुलामगिरी चलताली. अस्तंत आशियांत बॅबिलोनियांत चार हजार वर्सां पयलींसावन गुलामगिरी चलताली, अशे उल्लेख मेळटात. झुजांत हरिल्ले लोक जैतिवंत जाल्ल्या राजाच्या राज्यांत गुलाम म्हूण वताले. सुमेरियन कायद्याप्रमाण पळून वचपी गुलामांक दंड जातालो. गुलाम विकतना आडखळी हाडटल्यांक ख्यास्त दिवपाविशीं नेम आसताले. सुमेरियन संस्कृतायेपरस हम्मूराबीच्या काळांतल्या गुलामांचें जिवीत खूब कश्टांचें आसतालें. पूर्विल्ल्या ईजिप्तांत पिरॅमिड्स आनी मंदिरां बांदपाक गुलामांचो उपेग करताले. गुलामांक त्या काळार कसलेंच संरक्षण नासलें. कांय फावट धनयाकडल्यान मार-पेट केल्यार गुलाम पळून वताले. अशा गुलामांक आलाशिरो दिवप्याक हम्मूराबीन मरणाची ख्यास्त सांगिल्ली. तेखातीर धनी गुलामांक बरे तरेन वागयताले. तांकां इनामां दिताले. नवबॅबिलोनियन काळांत गुलामाक स्वातंत्र्य आसतालें. खूब जाण आपलो स्वताचो वेव्हार चलयताले. कांयकडेन तर गुलामांचो मालक गुलाम आसतालो. अस्तंत आशियांत गुलामांचो उपेग शेत आनी घराच्या वावराखातीर करताले.

युरोपांत पूर्विल्ल्या काळांत, ग्रीस देशांत गुलामगिरी चलताली, अशें दिसता. पूण गुलामगिरिच्या आरंभाविशीं उल्लेख मेळनात. होमराचें काव्य प्रमाण मानल्यार इ.स.प. १२०० ते ८०० वर्सापयलीं गुलामगिरी आशिल्ल्याचें दिसता. गुलाम मेळोवपाखातीर शेजारच्या राज्यांचेर छापे घालताले पूण त्या काळार गुलामांचो वेपार चलनासलो. गुलाम आपल्या धनयाच्या हाताखाल स्वताचो धंदोय करपाक शकताले. कांय फावट गुलाम स्वताचें मोल भरून मुक्त जाताले. ग्रीक तत्त्वज्ञ प्लेटो आनी ॲरिस्टॉटल हांणी गुलामगिरीचे चालीचें समर्थन केलां. घरांतलीं कश्टाचीं कामां करपाक गुलामाची गरज आसा, अशें प्लेटो हाणें आपल्या 'लॉज' ह्या ग्रंथांत म्हळां. जे स्वताची उदरगत घडोवन हाडूंक शकनात ते गुलाम जातलेच अशें ॲरिस्टॉटलाचें म्हणणें आसा.

रोमन काळांत जो रिण पावोवंक शकना ताका गुलाम करपाची चाल आसली; उपरांत ती कायद्यान बंद केली. झूज, चांचेगिरी आनी मागाशिल्ल्या वाठारांतल्यान गुलामांची आयात करप, हे गुलाम मेळोवपाचे कांय मार्ग आसले. त्याकाळांत युरोपांत चडांत चड गुलाम पोसप हें प्रतिश्ठेचें लक्षण मानताले. हे गुलाम उदेंतेच्या राश्ट्रांतल्यान हाडटाले. फुडें चांचेगिरीचेर कडक उपाय काडलो. तशेंच झुजबंदीय केली. ताका लागून वंशपरंपरेन चलत आयिल्ले गुलाम दवरपाखेरीज दुसरो मार्ग थंय नासलो. युरोपांत गुलामांक लश्करांत भरती करून घेनासले. भौशीक अधिकारांच्या जाग्यांखातीरूय तांकां अपात्र थारायताले. कसबी आनी शिकिल्ल्या गुलामांक कारखान्यांत कामाक दवरताले तर हेरांक शेतांतलीं कामां दिताले. न्यू कार्थेज (स्पेन) हांगा रूप्याच्या खणींत ४०,००० गुलाम कामाक आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

मध्ययुगांतूय युरोपांत गुलामगिरीची चाल बरीच वयर सरली. इ. स. १४४४ त युरोपीय तारवट्यांनी आफ्रिकेंतल्यान सगळ्यांत पयलीं गुलाम हाडले. ते उपरांत पोर्तुगेजांनी गुलामांचो वेव्हार सुरू केलो. सॅव्हिला हें गुलामांच्या वेपाराचें थाणें जाल्लें. स्पेन आनी पोर्तुगालांत वर्णाविशींचो अभिमान नाशिल्ल्यान सगळी गुलाम-जनता त्या देशांत आस्पावल्ली. युरोपांतली मनीसबळाची वाडटी गरज भागोवपाक दक्षिण आफ्रिकेंतल्यान व्हड प्रमाणांत गुलाम हाडले. इ.स. १८०० मेरेन देड कोटी गुलाम थंय हाडले. डच, फ्रेंच, इंग्लीश, पोर्तुगेज लोक दर्याचे देगेर गुलामांचो वेपार करताले. मध्ययुगांत युरोपांतलें गुलामांचें जिवीत कश्टाचें आसलें. तांचेर धर्मांतरांची सक्ती जाताली. अमेरिकेंत तांकां सामकी सकयल्या पांवड्याची वागणूक मेळटाली. थंयचें जिवीत तांकां मान्य नासल्यार एक तर तांकां जीव दिवचो पडटालो वा जे गुलामगिरीक विरोध करतात, तांकां जिवेशीं मारताले. अमेरिकेंत गुलामांची बंडां चड जावंक नात. पूण इंग्लीश, डच, फ्रेंच वसतींत गुलामाच्या बंडाचो भंय आसतालो. गोरे लोक आनी गुलाम बायलांच्या संबंदांतल्यान जाल्लीं भुरगीं गुलामूच थारतालीं.

मुस्लीम देशांत इस्लाम धर्माचे थापणुकेपयलीं अरबस्थानांतल्या देशांत गुलामगिरीची चाल आसली. इस्लामान गुलामगिरी सोंपोवपाचो आग्रो केन्नाच धरूंक ना, पूण गुलामांक बरे तरेन वागोवचें अशें ताचें म्हणणें आसलें. मुस्लीम आनी किरिस्तांव धर्मीयांत जी झुजां जालीं, तातूंत जिखून हाडिल्ले युद्धकैदी गुलाम जाताले. गुलाम बायलांक बादशहाच्या जनानखान्यांत दवरताले. गुलाम दादल्यांक घरकामाखातीर दवरताले. स्वतंत्र जाल्ल्या गुलामांक समाजांत आस्पावन घेताले.

गुलामगिरीन कश्ट करपी आनी त्या कश्टांचो भोग घेवपी अशा दोन वर्गांक जल्म दिलो. गुलामांच्या श्रमावरवीं गिरेस्त जाल्ले, स्वता कश्ट करप म्हळ्यार कमीपणाची आनी अपमानाची गजाल अशें मानपाक लागले.

फ्रेंच राज्यक्रांती उपरांत साम्राज्यवादी देशांनी गुलामगिरी सोंपोवपाखातीर पयलेच खेप पावलां उबारलीं. मनशां मनशां भितर ऊंच-उणाकाचो भेद आसचो न्हय असो संदेश फ्रेंच राज्यक्रांतीन दिलो. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दामेरेन ह्या विचाराक व्हडलोसो तेंको मेळूंक ना.

अमेरिकेंत नवी राज्यघटना जावन वीस वर्सां जातकच गुलामांचो वेपार करपाचेर बंदी घाली. इ. स. १८०७ त विल्यम विल्बरफोर्स आदींच्या यत्नांक लागून ब्रिटिशांनी गुलामांचो वेपार बंद केलो. १८३३ त ब्रिटनांत गुलामगिरी सोंपोवपासंबंदी कायदो जालो. कोलंबिया, मेक्सिको, आर्जेंटिना ह्या देशांनी एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या आरंभाक गुलामगिरी आड कायदे केले. १८६१ ते ६५ ह्या काळांत अमेरिकेंत जाल्ल्या यादवी झुजांत जेन्ना अब्राहम लिंकनाक जैत मेळ्ळें तेन्ना गुलामांचो पुनर्जल्म जालो म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. १८६३ त अमेरिकेचे राजघटनेंत तेरावी दुरुस्ती जावन गुलामगिरी चाल बंद उडयली. १८८५ बर्लिन परिशदेंत गुलामगिरी नश्ट करपासंबंदान आंतरराश्ट्रीय कबलात जाली. १९२६ त राश्ट्रसंघान गुलामगिरीआड परिशद आपयली. १९४८ त संयुक्त राश्ट्रसंघान मानवी हक्कांची सनद मानून घेतली. तातूंत गुलामगिरीक विरोध परगटायलो. १९५६ त गुलामगिरी नश्ट करपासंबंदी आंतरराश्ट्रीय कबलात जाली. आयजूय खऱ्या अर्थान गुलामगिरी सोंपूंक ना. कांय आशियाई आनी आफ्रिकी राश्ट्रांनी ती आपलें अस्तित्व तिगोवन आसा. भारतांत गुलामगिरी ब्रिटीश राजवट पावमेरेन चल्ली. १८११ त परदेशांतल्यान गुलाम हाडपाचेर बंदी घाली. १८४३ त गुलामी कायदेशीर मानची न्हय अशे थारलें. १८६० त गुलाम विकप वा विकतो घेवप हो गुन्याव थारलो.

- कों. वि. सं. मं.

**गुलाल:** हिंदू लोकांत लग्नसुवाळो, होळी, चवथ आनी हेर परबांच्या दिसांनी वापरतात ते तांबडे रंगाचे पूडीक 'गुलाल' म्हण्टात. प्रेताचेरूय गुलाल उडोवपाची प्रथा कांय कडेन आसा.

तांदूळ, शिरगोळा, शेडी सारक्या वस्तूंचो बारीक पिठे करून आनी त्या पिठ्यांत तांबडो रंग घालून गुलाल तयार करतात.

गुलाल तयार करपाच्यो विंगड विगंड तरा आसात. जे वस्तूपसून गुलाल करतात, ती वस्त पयली कुटून उपरांत दात्यांत दळून वस्त्रगाळ पीठ करतात. हें पीठ तांबड्या रंगाच्या उदकांत घोळोवन कांय वेळ दवरतात. ह्या मिश्रणांत रंग भरतात. उपरांत हो ओलो पिठो वतांत सुकयतकच ताची पूड जाता.

तांदळासावन तयार केल्लो गुलाल वयल्या पांवड्याचो तर शेडीसावन तयार केल्लो गुलाल सामको हलक्या पांवड्याचो अशें धरतात.

गोंयांत गुलाल एकामेकांचेर उडोवन मजा करपाची परब जांबावली (दामोदर संस्थान) आनी फातर्पे (शांतादुर्गा संस्थान) हांगा मनयतात. ही परब शिगम्याच्या दिसांनी येता. तेभायर गोंयांत चडश्या सगळ्या गांवांनी शिगम्या दिसांनी म्हळ्यार होळये दिसा वा धुळवडी दिसा गुलाल

मारपाची प्रथा सर्रास चलता.

जांबावलेच्या श्री दामोदर संस्थानांत दर वर्सा फाल्गुन म्हयन्यांत हो शिशिरोत्सव वा शिगमो जाता. ह्या उत्सवाक केन्नासावन सुरवात जाली हें निश्चितपणान सांगप कठीण. पूण पोर्तुगेजांनी राजसत्तेच्या बळाचेर जेन्ना गोंयांत क्रिस्तीकरणाक आरंभ केलो, तेन्ना मडगांवच्या श्रीदामोदराच्या उपासकांनी आनी भक्तांनी त्या मोडिल्ल्या देवळांतलें श्रीदामोदराचें व्हड लिंग थंयसावन दुसरेकडेन सुरक्षित सुवातेर व्हरपाचे निर्फळ यत्न केले. तांणी लिंगाचो वयलो भाग तोडून तो जांबावले गांवांत व्हेलो आनी थंयच्या नव्या बांदिल्ल्या देवळाचे गर्भकुडींत विधीपूर्वक ताची प्रतिश्ठापना केली. आदल्या काळांत 'धा जाण' नांवाच्या ग्रामस्थांची संस्था हो उत्सव मनयताली. पूण १९२७ त 'मठग्रामस्थ हिंदू सभा' ही संस्था स्थापन जाली आनी ह्या शिगम्याची जापसालदारकी मडगांवकारांचे वतीन हे संस्थेन घेतली.

मठग्रामस्थ हिंदू सभेच्यो बसका मडगांवां श्री दामोदराच्या सालांत भरतात आनी थंयच्यान कार्यावळींक सुरवात जाता. पुरुषोत्तम केणी हाच्या घराकडेन नाल्लाची पूजा जाता. ही प्रथा पडपाचें कारण म्हळ्यार बाटाबाटीच्या वेळार श्री दामोदर देवाची मूर्त म्हाड्डांतल्यान जांबावले व्हरतना सुरक्षिततेखातीर म्हूण एक रात केणी हाच्या घरांत दवरिल्ली. उपरांत फांतोडेर ती मूर्त जांबावले व्हेली. तेन्नासावन केणी हाच्या घराकडेन नाल्ल दवरून गारार्णे घालतात आनी दुसऱ्या दिसा तो नाल्ल वाजत गाजत व्हडा उमेदीन जांबावले व्हरतात. त्या दिसासावन जांबावले शिगम्याच्यो कार्यावळी सुरु जातात. हो शिगमो भरगच्च कार्यावळींनी सात दीस चलता. तातूंत आयतार, सोमार आनी मंगळार हे शिगम्याचे म्हत्वाचे आनी चड उमेदीने दीस. खास मंगळारचो दीस हो सगळे नदरेन आगळो वेगळोच आसता. मठग्रामस्थांच्या 'गोविंदा' ह्या जयजयकारांत श्री दामोदराक सोमारा सभामंडपांत हाडटात आनी दुसऱ्या दिसा गुलाला उपरांत कुशावती न्हंयंत न्हाण जातकच देवळांत परत व्हरतात. बुधवार दिसा दनपरा धुळपेट जातकच शिगमो सोंपता.

- कों. वि. सं. मं.

## गुलेलकार, हरिश्चंद्र ताटु: (जल्म: वाळपय-सत्तरी).

गोंयचो सुटके झुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. २६ जानेवारी १९५५ दिसा नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेच्या फडारपणाखाल ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत दवरून बरोच मार दिलो. पोर्तुगेज सरकारान प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार (Territorial Military Tribunal) चवकशी केल्या उपरांत ताका पांच वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## गुवाहाटी:

आसाम राज्यांतलें सगळ्यांत व्हडलें शार आनी त्या राज्याची राजधानी. ब्रह्मपुत्रेच्या दोनूय देगांचेर हें शार वसलां, तरी ताचो मुखेल भाग न्हंयचे दावे देगेर आसा. कलकत्याचे ईशान्येक ५३९ किमी. आनी शिलाँगचे उत्तरेक सुमार ६७.५ किमी. अंतराचेर हें शार आसा. भगदत्ताची राजधानी 'प्रागज्योतिषपूर' ती हीच. लोकसंख्या: १,४६,०२६ (१९८१).

सोळाव्या शेंकड्यांत कोचराज्यांत ह्या शाराचो आस्पाव आसलो. १६८१-१८२६ मेरेन 'आहोम' राजांची ही राजधानी आसली. फुडें १८२६ ते १८७४ मेरेन ब्रिटिशांच्या आसाम फांट्याचें मुखेल थळ आसलें.

१८९७ त ह्या शारांत भूंयकाप जाल्लो. ह्या भूंयकांपान शाराचें बरेंच लुकसाण जालें. आसामांतलें हें मुखेल वेपारी केंद्र. तशेंच शेतकी मालाची ही व्हड बाजारपेठ. हांगा भात, सांसवां, ताग, कापूस, लाख अश्या जायत्या वस्तूंचें उत्पादन जाता. हांगा च्याचे, कापसाच्यो बियो काडपाचे तशेंच शाबू आदींचे कारखाने आसात. पिठाच्यो, भाताच्यो आनी तेलाच्यो गिरणी हांगा आसात. गुवाहाटी लागसार आशिल्ल्या नूनमती ह्या गांवांत तेल शुध्द करपाचो कारखानो आसा. हांगा एकदम विकसित जाल्लें बृहन-गुवाहाटी हे उद्येगीक शार आसा. हांगा शिक्षणीक आनीक संस्कृतीक केंद्रांय आसात. हांगा १९४८ त गुवाहाटी विद्यापीठाची स्थापना जाल्ली. आसामांतलें हें एक नामनेचें विद्यापीठ.

गुवाहाटी हें ब्रह्मपुत्रा न्हंयवेलें एक सुंदर बंदर. कलकत्ता, शिलाँग आनी सदिया हांका हें राष्ट्रीय महामार्गांनी जोडलां. तेचपरी ईशान्य शिमेचे रेल्वेवेलें हे प्रवासी थळ. बोरझार हांगा मुखेल विमानतळ आसून तेझपूर, जोरहाट, दिब्रुगड, लखिमपूर, सिल्चर, धुब्री हांगा दरदिसा विमान येरादारी जाता. हांगा १९७८ त स्थापन जाल्ली नगरपालिका, आसाम वस्तुसंग्रहालय, आकाशवाणी केंद्र, उच्च न्यायालय आसा. पोरनें कामाख्या देवीचें देवूळ, तेचपरी ब्रह्मपुत्रेच्या पात्रांतलो उमानंद जुंवो अशीं हिंदूंचीं पवित्र तीर्थक्षेत्रांय हांगा आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## गूढविद्या:

गुप्त, गूढ, कठीण, अजाप-विस्मीत, अद्भुत अशा गजालींचे आचार, विचार विधी आनी नेम हांचो आस्पाव आशिल्ले विद्येक गूढविद्या अशें म्हण्टात. सामान्यपणान जादू-टोणे, ग्रह-ज्योतिश, ब्रह्मविद्या हांकां गूढविद्या ह्या नांवान वळखतात.

पूर्विल्ल्या कळासावन, अजाप आनी विस्मीतभरीत अशा गजालींकडेन संबंद दाखोवपी शेंकड्यांनी कथा साहित्य चलणूकेंत घोळटा. हाचेवेल्यान गूढविद्येची उत्पत्ती बऱ्याच शतमानांफाटीं जाल्ली आसली, हें सिध्द जाता आसलें तरी ज्युस्त नोंद मेळना.

पूर्विल्ल्या काळासावन गुप्तगिन्यान आनी अद्भूतशक्त हांची तांक आशिल्ले मांत्रिक, चमत्कार करपी जादूगार हे गुढविद्येचे उपासक अशें मानताले. पूण हे सगळे आपल्या थारायिल्ल्या वाठारांचेर शेक गाजयताले. आयचे गूढविद्येचे उपासक संवसारांतल्या सगळ्या घडणुकांचेर आपलो शेक चलता अशें मानतात.

गूढविद्येचो अभिमान बाळगुपी, सैमाच्या अद्भूत गजालींविशीं बुद्द वा गिन्यान दिवपाचो अधिकार ह्या शास्त्राचो आसा अशे मानतात. तांच्या ह्या भडक विधानाक लागून हे विद्येचें शास्त्रीय मोल उणें जावपाक लागलां. गूढविद्येसंबंदान श्रध्दा आशिल्ले जाणकार संवसारांतल्या सगळ्या अद्भूत घडणुकांचें गिन्यान शास्त्रज्ञांक भौतीक प्रयोगांतल्यान थोडें-थोडें करून मेळटलें, पूण हेंच गिन्यान गूढ वा भिन्न मार्गान शिकपी आनी आपणावपी अतींद्रिय तांकीचे मनीस ह्या संवसारांत आसात. ते आपल्या ज्ञानेंद्रियांची तांक वाडोवन नवे ज्ञानेंद्रिय निर्मूंक शकतात, इतलेंच न्हय तर संवसारांतल्या समेस्त घटनांचें गिन्यानूय मेळोवंक शकतात, अशें मानतात.

सैमांत आयजवयर जे बदल घडल्यात वा दिसपट्टे घडटात, त्या सगळ्या गूढ घडणुकांचें एक शास्त्र सिध्द जाल्लें आसून, तें शास्त्र म्हळ्यारूच 'गूढविद्या' जावन आसा. तें शास्त्र अतिमानवी अशा मनशाच्या आंगांत पुराय तरेन रिगिल्लें आसता. तर कांय असामान्य बुध्दीच्या मनशांकूय तें शास्त्र प्राप्त जावपाक शकता, अशें गूढविद्येच्या उपासकांचें मत जावन आसा.

गुढविद्येच्या कितल्याशाच गजालींचेर आतां शास्त्रीय संशोधनां सुरू जाल्यांत. ताका लागून ह्यो गजाली आतां पयलीं इतल्यो गूढ उरूंक नात. हातचलाखी वा जादूगिरीची सुवात रसायनशास्त्रान आनी ग्रहज्योतिशाची सुवात खगोलशास्त्रान घेतल्या. मानसशास्त्राचोय आतां खोलायेन आनी बारीकसाणीन अभ्यास सुरू जाल्ल्यान कांय गूढ मानसिक घडणुकांचेर आतां उजवाड पडला. तरीकूय जायत्या गजालींची वा प्रस्नांची जाप शास्त्रज्ञांक मेळूंक ना. मनोविज्ञानांतले कूट प्रस्न आनी सैमांतल्यो कांय विचित्र घडणुको हांची उत्पत्ती अजूनूय शास्त्रज्ञांक सांगपाक जमूंक ना.

ह्या शास्त्रांत संशोधन करपाचीं साधनां सादारण मनशांक खबर नाशिल्ल्यान गूढविद्येंतले अंर्तज्ञानाचे शास्त्र आयजवयर काळखांतूच उरलां. शास्त्रज्ञ आर्विल्ल्या यंत्रांचो आदार घेवन नवे नवे प्रयोग करतात आनी तेवरवीं इंद्रियांचें उणेंपण भरून काडपाचो यत्न करता. हाचे

उरफाटे अंतर्ज्ञानी मनीस आपल्या मानसिक तांकीवरवीं ज्ञानेंद्रियाचें कार्य कितलेशाच पटींनी वाडोवन सैमाचो, मनोविज्ञानाचो अभ्यास करूंक शकता.

तत्त्वज्ञानाच्या मळार जी सुवात गूढवादाची आसा तिच सुवात विज्ञानाच्या मळार गूढविद्येची आसा. गूढविद्येचो धर्म आनी नितीकडेन कसलोच संबंद येना. मनशाच्या आवांठ्य पलतडचे चमत्कार कांय वेळार दिसतात. पूण मुद्दाम जावन केल्ल्या प्रयोगांक आयजमेरेन अपेसूच आयलां. धर्तरेचेर 'अंतर्दृश्टी' उपेगाक पडटा तशी अंतराळांतूय उपेगाक पडपाची शक्यताय आसा, अशे शास्त्रज्ञ मान्य करतात. अशी 'अंतर्दृश्टी' कोणाकडेन आसा हे तांकां मान्य ना. गूढविद्येचे अभिमानी ही गजाल सिध्द मानतात.

उदेंतेच्या देशांतलें साहित्य आनी लोककथा तेचपरी अस्तंतेच्या देशांतले पूर्विल्ले आनी मध्ययुगांतले ग्रंथ हांचें संशोधन करून गूढविद्येक अभिप्रेत आशिल्ल्या मानसिक तांकीचो अभ्यास करप आयच्या काळांत शक्य आसा. खर भावनावशता आंगांत आयिल्ल्यांमदीं खासा तांक आशिल्ल्याचें हालीं काळांत जाल्ल्या अभ्यासांत दिसून आयलां. उदेंतेच्या देशांनी अशीं जायतीं उदाहरणां मेळ्ळ्यांत, पूण तांचें फाव ते तरेन संशोधन करपाची जापसालदारकी वैज्ञानिकांचेर येवन पडली.

- कों. वि. सं. मं.

**गेस्टापोः** (Geheime Staats Polizei - Gestapo) जर्मनींतली नाझीकाळावयली राजकी गुप्त पोलीस संघटना. नाझी पक्ष सरकार आनी हिटलर हांचेआड जावपी टिका आनी कारवाय चेपून उडोवपाच्या उद्देशान प्रशिया प्रांताचो तेन्नाचो मुखेलमंत्री गोअरिंग हाणें १९३३ वर्सा प्रशियाच्या पोलीस दलांतल्यान ही नवी संघटना उबी केली. ती जी.पी.ए. (Geheimes Polizei Amt) अशा नांवाची आशिल्ली. पूण रशियाचे गुप्त पोलीस संघटनेचें संक्षिप्त नांव जी.पी.यू. आशिल्ल्यान गोअरिंग हाणें आपल्या संघटनेक 'गेस्टापो' हें नांव दिलें.

गेस्टापो संघटनेभितर तीन लश्करी गट नाझी पक्षाच्या नियंत्रणाखाल काम करताले. एक सशस्त्र सेनेचो गट हिटलरचे सुरक्षिततेखातीर काम पळेतालो. दुसरो गट बंदिवान केल्ल्या लोकांक डांबून दवरपाच्यो छावण्यो आनी मरणछावण्यो. हांचे वेवस्थेचें काम पळेतालो. ते हिटलरविरोधी आनी नाझी सरकारविरोधी लोकांक छावण्यांनी धरून दवरताले. हे कैदी एकदां हांगा पावले की तांचेविशीं कसलीच खबर कोणाक कळनासली. अमानुश छळ आनी कडक गुप्तताय हें असल्या छावण्यांचें खाशेलेपण आशिल्लें. तिसरो गट सशस्त्र एस्. एस्. (ब्लॅक शर्ट्स) ह्या नांवान नांवाजिल्लो. संरक्षक पोलिसांचो हो गट देशभर ल्हानल्हान गटांत पातळिल्लो. १९३३ त गेस्टापो संघटनेचे सभासद ५२,००० आशिल्ले. फुडें ते वाडत गेले. १९३४ सावन 'गेस्टापो' चें म्हत्व खूब वाडलें. कारण एस्. एस्. ह्या पुडीकोराच्या शर्टवाल्या संरक्षक दलाचें 'शुध्दीकरण' जालें आनी सगळी सत्ता काळ्या गणभेसांतल्या गेस्टापोंकडेन आयली. राखणेसंबंदीच न्हय तर राज्यकारभारांतले हेर विभागूय गेस्टापोचें म्हत्व वाडयत रावले.

सत्तेर येवचेपयलीं नाझी पक्षाचे सुमार २० लाख स्वयंसेवकांचें हें स्वतंत्र दल (एस्. एस्.) खूब कार्यरत आशिल्लें. तातूंतसून कडव्या स्वयंसेवकांनी एक संरक्षण संघटना उबी केली. हुशार आनी सुशिक्षित स्वयंसेवकांचो गुप्तचर विभाग (एस्. डी.) सुरू केल्लो. नाझी सरकार स्थापन जातकच ह्या विभागाकडेन अधिकृतपणान देशाचो गुप्तचर विभाग सोंपयलो. हिमलराक पोलिस मुखेल नेमलो. ताच्या हातासकयल्या हाइड्रिक ह्या नाझी फुडाऱ्याकडेन गेस्टापो आनी एस्. डी. ह्या दोनूय संघटनांचें कार्य सोंपयलें. हाइड्रिकच्या हातासकयल पयलींपसूनचो पोलिस अधिकारी म्यूलर, गेस्टापो मुखेली म्हूण काम पळोवपाक लागलो. हिटलरान हिमलर हाची एस्. एस्. चो मुखेल म्हूण १९२९ वर्सा नेमणूक केल्ली. हिमलर सोळा वर्सां ह्या पदाचेर आशिल्लो.

हाइड्रिकच्या एका विभागान म्हळ्यार एस्. डी. न देशांतल्या नाझी पक्षाच्या विरोधकांची खबर दिवप आनी दुसऱ्या विभागान म्हळ्यार गेस्टापोन संशयितांची धरपकड, चवकशी आनी गरज पडल्यार खून करप असो प्रकार सुरू जालो. कम्युनिस्ट कार्यकर्त्यांक आनी सुमार ६० लाख ज्यूंक छळ करून जिवे मारले. कांय काळान गेस्टापोन स्वताचीच स्वतंत्र गुप्तहेर यंत्रणा उबारतकच एस्. डी. आनी गेस्टापो हांचे यंत्रणेखाला सबंद जर्मन राष्ट्र आयलें. परदेशांतले गेस्टापो संघटनेचें उद्दिश्ट कसलेंय मोल दिवन संवसारांत जर्मनीचें वर्चस्व स्थापन करप, हें आशिल्लें.

प्रचलित कायदो आनी न्यायपध्दत कुशीक दवरून नाझी विरोधकांक सोडून काडप, तांकां अटक करप वा जिवे मारप हांचेखातीर गेस्टापोचो वापर एकदम पयलींसावन जातालो. त्यावेळा जर्मनींतल्या दरेका वाठाराखातीर वेगळीं पोलिस दळां आशिल्लीं. पूण १९३३ उपरांतच्या तीन वर्सांत ह्या सगळ्या पोलिसदळांचो एकवट करून राश्ट्रीय पोलिस दळाची आनी राश्ट्रीय गेस्टापोची अधिकृत स्थापना जाली. गेस्टापोचे चडशे कार्यकर्ते पयलींचे पोलीस अधिकारी आशिल्ले. तातूंत जी थोडीभोव वाड जाली, ती नाझी पक्षाच्या स्वयंसेवकांतल्यान जाली. गुप्त पोलीस संघटना आसली तरी गेस्टापोचे वांगडी काळो गणभेस वापरताले. तांकां आर्विल्लीं शस्त्रां तशेंच वाहनां दिल्लीं. गेस्टापोचे खाजगी जिणेचेर पक्षांतल्या वरिश्ठ अधिकाऱ्यांचें नियंत्रण आशिल्लें. तांच्या लग्नांक पक्षांतल्या फुडाऱ्यांची संमती घेवंची पडटाली.

गेस्टापोच्या ह्या कर्तुपांक न्यायालयांत दाद मेळनासली. १९३६ च्या संविधानाप्रमाण जर्मन राश्ट्राक ज्या शक्तींपसून धोको आसा, अशा शक्तीक विरोध करप हें गेस्टापोचें कर्तव्य आसा, अशी घोशणा जाली. गेस्टापोआड अपील करपाचें आसल्यार तें हिटलर वा गृहमंत्री हिमलर हांचेकडेन करचें पडटालें. देशांतल्या खंयच्याय नागरिकाकडल्यान म्हायती मेळोवपाखातीर ताचो जाय तसो छळ करपाचो अधिकार गेस्टापोक आशिल्लो. देशाचे सुरक्षिततेक बादा येतली, अशा प्रकारचें कसलेंय कर्तुप वा कट चलता असो दुभाव आयलो, जाल्यार तपास करून दुभावी गुन्यांवकाराक ख्यास्त करप, हद्दपार करप, मारपेट करप, धमक्यो दिवप, बंदखणींत घालप, ताका सुदारावपाखातीर बंदी छावण्यांत दवरप, तांची हत्त्या करप नाजाल्यार निमाणें मृत्यू-छावण्यांनी सामूहिक हत्याकांड करप अशी गेस्टापोची क्रूर कार्यपध्दत आशिल्ली. सुमार पन्नास बंदी-छावण्यो आनी सुमार धा मृत्यु-छावण्यो गेस्टापो चलयताले. अशा भयांकृत मार्गान लाखांनी ज्यूंची कत्तल जाली. दुसरें म्हाझूज सुरू जातकच आक्रमण जाल्ल्या देशांतूय गेस्टापोच्यो शाखा सुरू जाल्यो. जैतिवंत जर्मन सैनेवांगडा फुडें वचत रावन गेस्टापोन युरोपांत दहशत पातळायली.

नाझी सैन्यान जिखिल्ल्या वाठरांतल्या लोकांनी गेस्टापोचो धसकोच घेतिल्लो. राज्ययंत्रणेखाला आशिल्ल्या सैन्याक आनी पोलिसांक लेगीत नाझी पक्षाच्या ह्या गुप्त राजकी पोलिसांचो धांक दिसतालो. देशांतल्या आनी भायल्या संकश्टांपसून सरकाराचें रक्षण करप हें गेस्टापोचें मूळ उद्दिश्ट आशिल्लें. पूण प्रत्यक्षांत मात नाझींच वंशशुध्दीचें धोरण अंमलात हाडपाचें एक साधन म्हूण हाचो उपेग जातालो.

चेक गनिमांनी १९४२ वर्सा हाइड्रिकचो खून केलो. म्हाझुजांतलो पराभव दिसपाक लागतकच हिमलर आनी गोअरिंग हांणी इंग्लंड-अमेरिकेवांगडा स्वतंत्र उलोवणी करपाचो यत्न केलो. इश्ट राश्ट्रांच्या हातांत सांपडटकच हिमलरान आत्महत्या केली. गोळाक लावपाची ख्यास्त चालीक लागचे पयलींच गोअरिंगान लेगीत आत्महत्या केली. कालटेन ब्रुनर हो गेस्टापोचो आनीक एक मुखेली न्यूरेंबर्ग हांगाच्या चवकशे उपरांत फांसार गेलो. म्यूलर रशियेक पळून गेलो असो दुभाव आशिल्लो. आइखमानाक १९६० त इझ्रायली गनिमांनी दक्षिण अमेरिकेंत अटक केली. फुडें इझ्राएल सरकारान ताका गोळाक लावन मारलो. नाझी जर्मनीच्या पराभवाउपरांत आर्विल्ल्या इतिहासांतली एक काळिकिट्ट आनी निर्घृण संघटना ना-नपश्यात जाली. पूण तरीकूय, ही गुप्त पोलिस संघटना जे क्रूर पध्दतीन काम करताली, त्या प्रकारच्या संघटनांक आयज-

लेगीत 'गेस्टापो' अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**गोंडः** भारतांतल्या आदिवासी जमातींतली एक मुखेल जमात. विंध्यपर्वत, सातपुड्याचें पठार, छत्तीसगढाचो दक्षिण दिकेवटेनचो वाठार, नैर्ऋत्येक गोदावरी न्हंयमेरेन पातळिल्ल्या वाठारांत पाचव्या आनी सव्या शतमानामेरेन रावपी ही जमात उपरांत मध्यभारताच्या जंगली आनी दोंगराळ भागांनी पावली. गोंड जमात ऑस्ट्रोलायड नस्ल तशेंच द्रविड परिवारांतली जावन आसा. सद्या ही जमात भारतांतल्या चडशा राज्यांनी आसा.

गोंड लोक मध्य प्रदेश, ओरिसा, महाराष्ट्र, आंध्र प्रदेश, बिहार ह्या राज्यांनी चड प्रमाणांत आसात.

गोंड लोकांभितर वंशीक आनी भाशीक सारकेंपण दिसना. 'गोंडी' भास फकत अर्देच गोंड लोक उलयतात. मध्य प्रदेशांतले गोंड हिंदी, विदर्भांतले मराठी आनी आंध्र प्रदेशांतले तेलुगू भास उलयतात.

गोंड लोकाविशीं पूर्विल्ल्या काळांतली म्हायती मेळना. गोंड लोकांचे लोककथेंत तांचे उत्पत्तीविशीं एक काणी सांगतात, ती अशीः

कंकालकाली नांवाचे एके चलयेचो एका ऋषीकडेन संबंद आयलो. त्या संबंदांतल्यान तिका बावीस भुरगीं जालीं. कंकालकालीन ह्या बावीसूय भुरग्यांचो त्याग केलो. त्याचवेळार शंकर आनी पार्वती नंदीचेर बसून थंय भोंवपाक भायर सरिल्लीं. त्या भुरग्यांचें रडप आयकून पार्वती नंदीवेल्यान सकयल देंवली. तिणें त्या भुरग्यांक आपलें वांगडा घरा हाडलीं आनी पोसलीं. पूण ह्याच भुरग्यांनी महादेवाकडेन वागतना आडमार्ग आपणायलो; ते तिडकीन महादेवान त्या भुरग्यांक एके बांयत धांपून दवल्लीं. कांय वर्सां अशींच उलगल्या उपरांत पहाडिक पारलिगो नांवांच्या एका तपस्व्याच्या उतराक मान दिवन महादेवान तांची सुटका केली. ते बांयतल्यान सगळ्यांत पयलीं चार मनशांचो, मागीर पांच मनशांचो आनी निमाणें स आनी सात जाणांचो पंगड वयर सरलो. हे लोक गोंड जमातीचे आद्यपुरुस आसले, अशें तांचें म्हणणें आसा. फुडें ह्याच वंशाचो विस्तार जावन तांचीं 'पाडी' म्हळ्यार घराणी निर्माण जाली.

गोंड जमातीच्या इतिहासाविशीं निश्चित अशी म्हायती मेळना. जी थोडी म्हायती गोंड लोकांविशीं मेळटा, तिचेवेल्यान राजपुतांनी सगळ्यांत पयलीं गोंड लोकांक आपले सत्तेच्या शेकातळा हाडून हिंदू धर्मांत घेतले, अशें कळटा. राजपुतांनी तांचेकडेन म्हळ्यार खास करून तांचे टोळयेच्या मुखेल्यांकडेन लग्नसंबंदांतल्यान नातें जोडलें. ह्या संबंदांतल्यान जल्मल्ली प्रजा स्वताक राजगोंड म्हणपाक लागली. ह्या राजगोंडांनी १५ ते १७ व्या शतमानांत मध्य प्रदेशांत जायतीं राज्यां स्थापलीं. तातूंतल्या उत्तरेकडल्या राज्याचें राजपाटण मंडल आनी गढ (अर्वाचीन बिलपूर) आसलें. हेर राज्यांचीं राजपाटणां देवगड, टेरळा, चांदा हीं आसलीं. ह्या राज्यांक एकवटीतपणान 'गोंडवन' अशेंय म्हण्टाले.

बौध्द आनी ब्राह्मण हांच्या संघर्शांत मध्य भारतांतल्या हिंदू राज्याचो नाश जालो. ते परिस्थितीचो फायदो घेवन गोंडांनी थंय आपलीं राज्यां स्थापलीं. फुडें मुसलमानी सत्तेमुखार गोंडांक नमचें पडलें. मुसलमानांनी तांकां मुस्लीम धर्म आपणावपाची सक्ती केली. देवगडाचो गोंड राजा बख्त बुलंद हो इस्लाम धर्म आपणावपी पयलो राजा आसलो. शेजारच्या राजाआड झगडटना आपणाक दिल्लीच्या बादशहाचो पालव मेळचो म्हूण ताणें हें धर्मांतर केल्लें. ताचे राजवटींत हिंदु-मुस्लीम प्रजा बरे तरेन जियेताली. वयली इतिहासीक घडणूक 'गोंड' जमातींत हिंदू आनी मुस्लीम अशे दोन वर्ग करपाक कारण जाली.

गोंड लोकांभितर वेगवेगळ्या उपजातींचे फांटे आसात. तातूंत राजगोंड स्वताक सगळ्यांत वयर मानतात. ते वयल्या वर्णांतल्या हिंदूंच्यो चाली-रिती मानतात. बस्तर जिल्ह्यांत गोंड लोकांच्यो तीन उपजमाती आसात. तांचीं नांवां मुडिया, डोंगरी माडिया आनी शृंग माडिया (बायसन-हॉर्न माडिया) अशीं आसात. महाराष्ट्रांत राजगोंड, माडिया, गैता, घुरखा, गोंड गोबारी अश्यो पंदरा जमाती आसात. खैरागडांतल्या गोंडांभितर राजगोंड, धुरगोंड, गैतियागोंड अशे तीन भेद आसात. तातूंतले राजगोंड आनी धुरगोंड हे हिंदू आसात. खैरागडांतल्या गोंडांभितर इकरा गोत्रां आसात. झासपूरच्या गोंडांच्यो स पोटजाती आसात, त्यो अश्योः १. महाराज गोंड- राजपरिवारांतले गोंड २. राजगोंड- राजाचे सरदार, वा दिवाण ३. पाच्छासी गोंड- हे महाराजाचे अनुयायी आसले. ४. बडी गोंड- मिश्र संबंदांतल्यान ही जात तयार जाली. गोंदप हो तांचो मुखेल वेवसाय. ५. थुकेल गोंड- एका काळार हे गोंड दिल्लीचेर चाल करुन गेले. ते हरून परते आयले तेन्ना वयल्या कुळांतले गोंड तांच्या तोंडार थुकले म्हूण तांकां थुकेल गोंड म्हण्टात. ६. डोखर गोंड- हे गोंड झूज हरतना जैतिवंतांच्या पांयां पडले, म्हूण तांकां हें नांव पडलें.

वयल्यो तीन ऊंच कुळांतल्यो आसून सकयल्या तिनांक अस्पृश्य लेखतात.

मांडलाच्या गोंडांभितर देवगोंड, सूर्यवंशी राजगोंड आनी रावणवंशी अशे तीन पोटभेद आसात. हेभायर गोंडाल्यो इपलानिया, उद्दिका, धुरवा, असकाला, ककोडिया, सराठ्या, सीराम अश्यो पोटजाती आसतात.

गोंड लोक शेती वेव्हाराचेर आपलो दिसवडो सोडयतात. महाराष्ट्रांतल्या चंद्रपूर जिल्ह्यांतले गोंड भाताचें पीक काडटात. तर यवतमाळांतले ज्वारीचें पीक काडटात. तेभायर उडीद, तूर आनी मूग हांचेंय पीक काडटात. वालपापडी, दूदी, आंबाडे आनी वायंगीं ह्यो भाज्यो ते खूब प्रमाणांत पिकयतात. पूण 'पडूंम' हो धर्मीक सण जालेबगर ते कसल्याच पिकांची कापणी करीनात आनी भाज्योय काडीनात. गोंडांक म्हौंवापसून केल्लो सोरो खूब आवडटा.

शेती-धंदो सोडून नुस्तें पागप, कंदमुळां एकठांय करप, शिकारेक वचप हे हेर उद्येगूय ते करतात. वर्सांतल्यान एक फावट माडिया गोंड शिकारेक वतात; तांचेवांगडा तांचीं बायल-भुरगींय आसतात. शिकार मेळटकच ते गांवजेवण घालतात. गोंड लोक गाय, म्हसरां, बोकड्यो, दुकरां, कुकडां

माडिया गोंडांचीं खेडीं नितळ आनी निवळ आसतात. गोंड लोकांच्यो खोंपीच्यो वण्टी कोंड्यांनी विणिल्ल्यो आसतात. खोंपीवेलें पांखें तणाचें आसता. खोंपींत शेंदऱ्यो लावन कुडी करतात. हेर वस्तू मडक्यांत सांठ्यतात. घर वा घरांतल्यो चडश्यो वस्ती घरांतले लोकूच तयार करतात. बस्तर, चांदा जिल्ह्यांतले दादले माडिया गोंड, अर्धनग्नूच रावतात. ते शेंडी दवरून उरिल्ली तकली सुळसुळीत दवरतात; तशेंच कानांत रिंगां घालतात. कमरेक सुपारी-पान आनी सुरो खोयतात. खांदार कुराड आनी धनुष्यबाण घेवन भोंवतात. बायलो कमराभोंवतणी अशीर अशें वस्त्र गुठ्लायतात. एकाद्रें वस्त्रूय आंगार घेतात. कानांत पितूळचीं रिंगां घालतात. गळ्यांत धव्या मणयाच्यो माळो, तेचपरी लोखणाच्यो आनी पितूळच्यो मुदयो घाल्ली लोखणाची तार आसता. तीं आपल्या तोंडाचेर आनी कुल्यांचेरूय गोंदोवन घेतात.

गोंड जमातींतल्यो कांय उपजाती स्वताच्या पंगडाभितरूच लग्न जातात तर कांय उपजाती हेर उपजमातींवांगडाच लग्न जातात. आते-मामे भांवडांच्या लग्नसंबंदाक सगळ्यांत वयली सुवात आसता. एकापरस चड बायलांकडेन लग्न जावपाक मेळटा. पूण तेखातीर व्हंकलेचें मोल न्हवऱ्याक फारीक करचें पडटा. विनिमय-लग्न, सेवा-लग्न, पळून वचून केल्लें लग्न गोंड जमातींक मान्य आसा.

विधवा बायलेचें लग्न, विधूराचें लग्न, घटस्फोट ह्या गजालींक गोंड जमातीभितर मान्यताय आसा. माडिया आनी मुडियांची तरणाट्यांखातीर 'युवागृहां' आसतात. ह्या युवागृहाचो स्वताचो जोडीदार वेंचपाखातीर पालव मेळटा. ह्या युवाघरांक 'घोटूल' म्हण्टात. बस्तराच्या मुडिया गोंडाचे आंकवार चले-चलयो पयलींच्या काळांत जोडयेन सगळी रात घालयताली. चलयेक मोतीआरी आनी चल्याक

चेलिक म्हण्टात. घोटूलाच्या मुखेल्याक सरदार म्हण्टात. लग्ना आदले मोगा-संबंद भौसाक मान्य आसतात, तरीय आसतना अशा संबंदांक लागून वा व्यभिचाराक लागून खुनासारख्यो गजाली उप्रासतात. लग्न जातकच घोटूलाचें वांगडीपण सोंपता.

नागपूरचे गोंड, चैत्र म्हयन्यांत मातादेवीचे जात्रेची परब मनयतात. हे परबेखातीर माटव घालून मातादेवीचें प्रतीक म्हूण कांय फातर दवरतात. तिका हळडुवीं वस्त्रां, सूत, कांकणां आनी फणयो दितात. हे जात्रेक मातादेवीचो भाव भीमसेन हाका नाल्ल दिवन बोकड्यांचोय बळी दितात. मंगळार आनी सुक्रार हे देवीचे आनी भीमसेनाचे खास दीस मानतात.

आशाढांत संजरी बिद्री नांवाची भीमसेनाची परब जाता. त्यावेळार ताका गुलाल आनी नाल्ल भेटयतात. त्यावेळार वेपारी सगळे तरेचें धान्य हे परबेनिमतान दितात. तें धान्य पयलीं भीमसेनाक अर्पण करून तातूंतलें थोडें-थोडें दोण्यांत घालून दर एका शेतकाराक दितात.

श्रावण-उमाशेक गोंडांची जिरेती नांवाची परब आसता. त्या दिसा बडा देवाची पूजा आसता. गोंडाचें जेवप, सोरो पिवप आनी नाच-गावप त्या दिसा जाता. 'दंडा लडाना' हो हे परबेंतलो मुखेल नाच जावन आसा. तातूंत जायते दादले हातांत दांडे घेवन झगडपाचो अभिनय करतात. तातूंत एकल्याच्या हातांत दांडो आनी दुसऱ्याच्या हातांत हारसो असता. झगडटासतना जण एकलो तो हारसो दुसऱ्याक दाखयता.

गांवांतले सगळे गोंड मेल्ल्यांच्या घरांत मूठ-मूठ तांदूळ हाडून दवरतात. त्याच दिसा घरांतलीं गाडगीं मडकीं भायर शेंवटून मारतात. तिसऱ्या दिसा गांवांतलो सगळो लोक मरण आयिल्ल्या घरांत जमतात आनी न्हावपाक न्हंयचेर वतात. मागीर तातूंतलोच एकलो कुमारा म्हन्यांत वचून मातयेचीं आयदनां हाडून त्या कुटुंबाक दिता. धाव्या दिसा न्हंयचेर न्हाण आनी उपरांत गांवजेवण जाता. माडिया गोंडांत एकाद्र्याच्या घरांत कोणूय मेलो जाल्यार धोल वाजोवन सुचोवणी दितात. मागीर सगळे मरण आयिल्ल्याच्या घरांत जमतात. त्या वेळार गाय कापतात. गांवजेवण घालतात. सोरो वांट्टात. मेल्लो मनीस वयावेलो आसल्यार वा वयांत आयिल्लो आसल्यार ताका वा तिका महूवाच्या झाडाक दोऱ्यांनी उबो बांदून जळयतात आनी उपरांत उरिल्ल्यो अस्थी रस्त्याचे कडेक पुरतात. ल्हान भुरगीं, बायलो हांचीं प्रेतां पुरतात.

मांडला वाठारांतले गोंड, आंकवार दादलो तशेंच आंकवार बायल आनी लग्न जाल्ली बायल हांचीं प्रेतां पुरतात. सांथीचो रोग वा वायट पिडा जावन मेल्यारूय पुरतात. हातूंत एकाद्रो म्हत्वाचो मनीस आसल्यार ताचेखातीर रस्त्याचे कडेन एक खांब पुरतात. रस्त्यावेल्यान यो-वच करपी लोक त्या खांब्याशेजरा एक एक फातर उडयत रावतात. अशा फातरांची रास जातकच ताका 'धुरी' म्हण्टात.

कांय गोंड घरांत कोणूय मरतकच पांच दिसां उपरांत न्हंयचे देगेर वचून मेल्ल्या मनशाच्या आत्म्याक उलो मारतात आनी न्हंयतलें एक नुस्तें धरून खातात. अशें करतकच मेल्लो मनीस स्वताच्याच घरांत परतो जल्माक येता, अशें ते समजतात.

गोंड लोक तांचेमदले तंटे पंचायतीच्या आदारान सोडयतात. हातूंत तांचे जमातींतले व्हड मनीस, तेचपरी गांवचो पाटील वांटेकार जाता. पंचायतींत धा रुपया भरल्यार लग्नाचो घटस्फोट लेगीत मेळटा, हें हे पंचायतीचें खाशेलपण जावन आसा. खैरगडांत रावपी गोंडाच्यो वयले तरेच्यो पंचायती आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**गोंदण:** सुयेच्या आदारान कसलें तरी खास द्रव्य मनशाच्या आंगांत (कातींत) तोपून, एक खास आकृती वा चिन्ह कोरप हाका गोंदण अशें म्हण्टात.

गोंदपाची चाल केन्ना आनी कशी सुरु जाली हें निश्चितपणान सांगप कठीण. तरीयपूण कपड्याचो उपेग करपाक लागचे पयलींसावन स्वताची कूड सुंदर आनी सोबीत दिसची, देखून मनशान कूड गोंदपाची पध्दत आपणायली आसपाक जाय, वा काम करता आसतना चुकून जाल्लो घाय, एकाद्रें रंगद्रव्य लागून सदांखातीर उल्लो आनी ह्या घायाची सदांखातीर उरिल्ली माव गोंदपाचे कलेची वाट दाखोवपी रस्तो थारलो आसपाक जाय. अतिभौतिक शक्तीच्या भयांतल्यान गोंदपाची चाल जल्माक आयली आसूं येता. गोंदिल्ल्यान संबंदीत मनशाची राखण जाता अशी कल्पना आशिल्ली, हो विचार हर्बट स्पेन्सर हाणें मांडला. नॉईबर्गर माक्स हाच्या मतान वैजकीचे एकाद्रे प्रक्रियेंतल्यान ही चाल सुरू जाली आसपाक जाय. एकाद्रे जमातीची वा जैताची कुरू म्हूण ही चाल चलणुकेंत आयली आसूं येता. पूर्विल्ल्या काळांत रानवटी जमातींत भुतां-खेतांच्या त्रासांतल्यान स्वताची राखण करपाक कपलाचेर, हाताचेर आनी कुडीच्या हेर भागांचेर सांकेतिक चिन्हां काडपाची चाल आसली.

कांय मानववंशशास्त्रज्ञांच्या मतान रानवटी लोकांभितर देवपूजा, लग्न वा हेर सुवाळ्यावेळार रगताभिषेकाचो जो विधी जाता, ताचो गोंदण हो अवशेश आसपाक जाय.

भारतीय पुराणांत गोंदण वा गोंदपा संबंदान एक कथा आयल्या. एक फावट लक्ष्मी विष्णूक म्हणपाक लागली, 'तूं हालीं दिसांनी म्हज्या म्हन्यांत रावना. म्हाका सोडून पर्थून पर्थून भायर वता. तेन्ना म्हाका खूब भंय दिसता.' लक्ष्मीचीं उतरां आयकतच विष्णून आपलीं आयुधां लक्ष्मीच्या हाताचेर दामलीं आनी तांचीं चिन्हां तिच्या हातार काडलीं आनी म्हळें, 'हे फुडें हीं चिन्हां भंयापसून तुजी राखण करतली.'

गोंदपाखातीर वेगवेगळ्या देशांत, विंगड विंगड साधनांचो उपेग करतात. झाडाचे आनी नुस्त्याचे कांटे, हाडां, शिंपयो सारक्या सैमीक, तोंक आशिल्ल्या साधनांवरवीं तशेंच विजेच्या आदारान चलपी सुयांसारक्या जायत्या साधनांचो गोंदपाखातीर उपेग जाता. कांय जाण सुयेसारकें तोंक आशिल्लें हत्यार तोंपून तातूंत रंगद्रव्याची तशेंच कोळशाची पूड घालतात. तेवरवीं गोंदणाक निळसार रंग येता, तर कांय जाग्यार चाकवान घाय करून तातूंत रंगद्रव्यां घालतात. तांचेर थारावीक झाडाच्या सालींचो गोबोर आनी कोळशाची पूड घालतात. बोर्निओंतले जमातींत चित्राचो दाग, काजळ आनी ऊंसाच्या रोसाच्या मिश्रणांत बुडोवन तो कुडीचेर उठयतात. जपानांतले लोक गोंदपाखातीर विंगड विंगड आकाराच्यो चार सुयो वापरतात. भारतांत बायलेचें दूद वा कारात्याचो रोस, गोडें तेल, काजळ एकठांय करून तें मिश्रण गोंदपाखातीर वापरतात. सुयेचें तोंक त्या मिश्रणांत बुडोवन ती सूय मनशाचे कुडीचेर खास रितीन तोंपतात. हाका गोंदपाची क्रिया म्हण्टात. गोंदप पुराय जातकच एंडेल आनी हळदीच्या मिश्रणाचो लेप लायतात. सद्याच्या काळांत गोंदपाचें रसायनीक मिश्रण तयार मेळटा. तें वापरून गोंदपाची क्रिया यंत्राच्या आदारान करूं येता.

शरीराच्या खंयच्याय भागार विंगड विंगड तरांनी गोंदतात. कपल, पोलो, खाडकी, छाती, थानां, हात, मनगटाचेर चड करून गोंदयतात. कांय जाण फाटीर आनी कुल्यांचेरूय गोंदयतात. टिंबायेदी आकृती, खासा चिन्हां, मोर, नुस्तें, कोलो, वास्वेल हांचीं चित्रां, स्वस्तिक, खुरीस, देवाचें, मनशाचें नांव, तुळशी-वृंदावन, हनुमान, महादेवाची पिंड, हेर देवांच्यो मूर्ती, गोंदयिल्ल्या तरांत दिसून येतात.

ईजिप्त देशांत केल्ल्या उत्खननावेल्यान इ.स. २००० वर्सापयलीं ममींचेर गोंदायिल्ल्यो निळ्यो कुरवो दिश्टी पडल्यात. न्युझीलंडांतल्यान माओरी जमातींत ही कला उदरगतीचे तेंगशेर पाविल्ली अशें दिसून आयलां. जपानी लोकांमदीं ही कला खासा नामनेक पाविल्ली.

कांय जमातींत गोंदप आनी लग्न हांचो संबंद दिसून येता. सोलोमन जुंव्यावेले जमातींत तोंडार आनी छातयेर चलयेन गोंदोवन घेवपाक जाय, नाजाल्यार ती लग्न करपाक पात्र थारना. ऑस्ट्रेलियन आदिवासी, लग्नांपयलीं तरनाटे, जुवान चलयेचे फाटीचेर भंयाकृत तरेचें गोंदप करतात. तैवानांतल्यो चलयो लग्न करचेपयलीं चलयेचें तोंड गोंदतात, न्यू गिनींतले पापुअन जमातींतले लोक चलयेच्या सगळ्या आंगाचेर

गोंदयतात. चलयेचें तोंड फक्त लग्नावेळार गोंदवन घेतात. आसामांतले नागा जमातींत गोंदयल्या उपरांत तरणाटो लग्नाक योग्य समजतात.

पूर्विल्ल्या काळांत भारतांत, गोंदप ही गुन्यांवकारक दिवपाक येवपी ख्यास्त आसताली. एकाद्र्यान गुन्यांव केल्यार ताच्या कपलार गोंदोवन मागीर ताची गाढवावेल्यान धिंड काडटाले.

गोंदपा संबंदी, वेगवेगळ्यो समजूती आख्यायिका विंगड विंगड जामतींत चलतात.

मेल्याउपरांत कुडीवेलें गोंदण आपल्यावांगडा देवलोकांत वतलें अशें आदिवासी जमातींतल्यो बायलो समजतात. गोंदपाशिवाय बायल मेली तर पितर तिका वळखुचे नात. स्वर्गांत वतकच देव तिका पृथ्वीर रावित्ल्याची कुरू म्हूण गोंदण दाखोवपाक सांगतलो. जर तें गोंदण ताका दिसलेंना तर तो तिका भुता-खेताच्या रुपान परतो जल्म घेवपाक सांगतलो. नाजाल्यार ब्रह्मदेव तिका काट्यांवेल्यान फरफरीत ओडून व्हरतलो आनी हाका लागून तिच्या आंगार गोंदयल्यावरी कुरवो उदेतल्यो. राजपुतान्यातल्या भिल्ल लोकांभितर गोंदपाची चाल ना. बंगालांतले शेतकार लोक जर एकाद्रे बायलेन गोदोंवन घेतले तर तिका जाती भायर काडटात.

गोंदप वा गोंदण कांय जमातींत पवित्र आनी समाजमान्य थारायलां. तेचपरी कांय जमातींच्या धर्मग्रंथांनी हे कलेक निशिध्दय मानल्या. बायबलाच्या पोरन्या कराराप्रमाण गोंदप नेमाभायलें थारायलां. मुहम्मद पैगंबरानूय हे रितीचेर आक्षेप घेतला. गोंयांत हिंदु तशेंच किरिस्तांव समाजांत गोंदपाची चाल आसा पूण ती उणी जायत वता. तरीलेगीत आयच्या काळांत बऱ्याच तरणाट्यांमदीं चड करुन हिप्पी संप्रदायांत गोंदून घेवप एक फॅशन जाल्या. अस्तंती देशांनी गोंदून घेवपाच्या प्रकाराच्यो सर्तीय घेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**गोंधळ:** देवीची तुस्त आनी पूजा करपाचो एक प्रकार. महाराष्ट्रांतल्या कितल्याशाच कुळांतलो एक कुलधर्म. घरांतलें मंगलकार्य निर्विघ्नपणान आनी कृपापूर्वक केल्ल्यान अंबाबाई, भवानी, रेणुका हांच्यासारक्या कुलदेवींचे उपकार आठोवपाचो हो विधी आसता. हो प्रकार देशस्थ ब्राह्मणांत आनी मराठ्यांत प्रचलित आसा. हाका गोंधळ घालप अशें म्हण्टात. गोंधळी जातीचे लोक गोंधळ घालपाचें काम करतात.

गोंधळ घालपाचे कार्यावळींत चार जाण वांटो घेतात. गीत आनी कथा हांचेवरवीं निरुपण करता तो मुखेल गोंधळी. ताका 'नाईक' म्हण्टात. निरूपणांत मदीं-मदीं विनोदी प्रस्न विचारून निरूपणाक गत दिवपी एक आसता तो ताचो सहाय्यक. आनीक दोग जाण आसतात, ते समेळ आनी तुणतुणें वाजोवन गोंधळाक साथ करतात.

गोंधळाची मांडावळ करतना गोंधळी एका पाटाचेर नवें वस्त्र हांथरून ताचेर तांदळांचो चौक करता. चौकाच्या चार कोनशांचेर चार आनी मदीं एक ह्याप्रमाण खोबऱ्याच्यो वाटयो, सुपाऱ्यो, खारको, हळद आनी केळीं ह्यो वस्तू दाळून दवरतात. चौकाचे मदीं कलशाची स्थापना करून ताचेर विड्याचीं वा आंब्याचीं पानां दवरून ताचेर एक नाल्ल दवरता. मागीर यजमान देवीची स्थापना आनी पूजा करता. चौकाच्या पाटाफुडें पांच खोले दवरून त्या खोल्यांचेर थोडें शीत दवरून वयर कणकीचो एक एक दिवो लायता. पाटाभोंवतणी उशीचें वा शाळूच्या ताडांचें तिकटें उबें करतात. ताका झालऱ्यो हुमकळायतात. घटमाळ बांदून ती कलशावयल्या नाल्लाचेर सोडटात. गोंधळाक दिवटी आनी बुधली गरजेची आसता. ह्यो दोनूय वस्तू गोंधळी आपल्या घराकडल्यान घेवन येता.

गोंधळी (नाईक) गोंधळाक सुरवात करचे पयलीं गण म्हण्टा, मागीर जगदंबेचें स्तवन करून वेगवेगळ्या देव-देवतांक गोंधळाखातीर पाचारण करता. हें पाचारण गीत अशें आसता:

मोरेश्वरा गणा गोंधळा ये,<br>
तेहत्तीस कोटी देवा गोंधळा ये<br>
वाईच्या गणपति गोंधळा ये<br>
कृष्णा कोयना गोंधळा ये<br>
कोल्हापूर लक्ष्मी गोंधळा ये<br>
तुळजापुरची भवानी गोंधळा ये<br>
नवलाख तारांगण गोंधळा ये<br>
धरतरी माते गोंधळा ये<br>
आगाशी पिता गोंधळा ये<br>
भक्तांच्या गणा गोंधळा ये<br>
राहिले साहिले गोंधळा ये<br>
आपल्या भक्ता प्रसन्न झाले ॥

मागीर 'नाईक' पूर्वरंग आनी उत्तररंग अशा दोन विभागांत अनुक्रमान देवीची तुस्त आनी एकाद्रें लोककथात्मक संगीत आख्यान सांगता. निमाणी देवीची आरती जाता आनी गोंधळ सोंपता. गोंधळांतलीं पदां, कथागीतां आनी कथा हीं लोकसाहित्यांत आस्पावतात. मीठ-मिरसांगेचें झगडें, कोल्याचें लग्न हीं आख्यानां आनी कथा तातूंत मुखेल जावन आसात.

गोंधळ्याच्या आंगांत मलमलचो सदरो, गळ्यांत कवड्यांच्यो माळो आनी माथ्यार पगडी आसता. रेणुकामाहात्म्यांत गोधळाच्या उगमाविशीं एक कथा आसा, ती अशीः

परशुरामान बेरासुर नांवाच्या दैत्याक जितोच मारून ताची तकली कापली. ताचे तकलेच्या ब्रह्मरंध्रांत ताचेच तकलेचे तंतू गुंतले आनी ते खांदार घेवन 'तिंतृण तिंतृण' असो आवाज करीत तो रेणुकेम्हऱ्यांत आयलो. बेरासुराच्या धडाचें चौंडके आनी तकलेचें तुणतुणें वाजोवन परशुरामान जें पयलें मातृवंदन केलें तातूंतल्यानूच गोंधळाची प्रथा आयली, असो सम्ज आसा.

रेणुका आनी तुळजाभवानी हांचे उपासनेंत गोंधळाक प्राधान्य केन्ना मेळळें, तें मात निश्चित सांगप कठीण. तुळजाभवानी इ.स.प. १००० वर्सां आदली आसा आनी रेणुका तर ताच्याकूय पूर्विल्ली आसा. गोंधळाचो संबंद तुळजाभवानीच्याय आदीं रेणुकेकडेन आसा अशें म्हण्टात.

यादवकाळांतल्या मराठी साहित्यांत गोंधळाचे जे उल्लेख येतात, तांचेवेल्यान अशें दिसून येता की गोंधळाचो संबंद मुळांत भूतमाता नांवाचे एके देवतेकडेन आसूंक जाय. उपरांत ही भूतमाता महाराष्ट्रांतले लोकप्रिय रेणुकेंत आस्पावल्या आसूंक जाय. वरंगळ हांगाच्या गणपती काकतीयाचो गजसेनामुखेली जायण वा जय सेनापती हाणें इ.स. १२४० त बरयल्ल्या 'नृत्यरत्नावली' ग्रंथांत सांगलां की कल्याणीचो चालुक्य राजा सोमेश्वर (तिसरो) हाणें आपले राजधानींत भूतमातामहोत्सवाच्या निमतान गोंधळाची ('गोंडली' नाचाची) कार्यावळ केल्ली.

भूतमातामहोत्सवाचीं तरेकवार वर्णनां वेगवेगळ्या पुराणांत आयल्यांत. दैवी संकश्टाचें निवारण जावचें आनी भुरगें-बाळ जावचें हेखातीर पुराणकाळांत भूतमातेची परब मनयताले. वैशाख वद्य प्रतिपदा ते अमास अशी एक पंद्रस हो उत्सव चलता. ज्ञानेश्वरींत 'गोंधळी' हो शब्द पिशाच्च वा भूत ह्या अर्थान आयला. आद्य महानुभाव साहित्यांत दृश्टांताच्या रूपान गोंधळाचे खूब उल्लेख आयल्यात. तातूंत सर्वशक्तींचो मेळ, योगिनी चक्राचो गोंधळ, चक्रगोंधळ अशे शब्द आस्पावतात. ताचेवयल्यान स्पश्ट जाता की गोंधळ ह्या उपासनाप्रकाराचो भूतमातेकडेन संबंद आसूंक जाय.

भूतांचो भेस घालून भूतचेश्टांचें अनुकरण करपाचो नाच गोंधळांत जातालो, अशे उल्लेख कांय ग्रंथांत आयल्यात. संगीतरत्नाकर, संगीतसमयसार, नृत्यरत्नावली ह्या नृत्याविशींच्या ग्रंथांत गोंधळाचो उल्लेख 'गोंडली नृत्य' ह्या नांवान आयला. गौंडली, गुंडली, गोंडली, कुंडली अशीं तांचीं खूब नांवां आसात. 'अमलिकाग्राममाहात्म्य' (माहूरक्षेत्र वर्णन) नांवाच्या संस्कृत ग्रंथांत ह्या गोंडली नृत्याचें वर्णन आयलां तें अशें:

कवड्यांच्यो माळो घालून आनी दिवटी घेवन गोंधळ घालचो. जंय गोंधळ घालपाचो आसा त्या वाठारांतल्या सगळ्या लोकांक आमंत्रण दिवचें. गोंधळाखातीर दिवटी, कवड्यांची माळ, मातृवाद्य, ताळ, शंखवाद्य, मृदंग, चिपळी, वीणा, चंडक, मुरज हीं वाद्यां लागतात. गोंडली वृंदाचे उत्तम, मध्यम आनी कनिश्ठ अशे तीन भेद आसात. उत्तमवृंदांत ४ मुखेल गायक, ८ समगायक, ८ नर्तक, ४ वांशिक, ४ मार्दंगिक आनी ४ तालधारी अशे ३२ जाण आसतात. मध्यम वृंदांत १६ आनी कनिश्ठ वृंदांत ८ कलाकार आसतात. नृत्य कशें करचें, दिवट्यो कोणे घेवच्यो, वाद्यां खंयचीं घेवचीं हेविशींचे सगळे संकेत थारायल्ले आसतात.

**वळवयचो गोंधळः** फोंडें तालुक्यांतल्या वळवय गांवांत गजान्तलक्ष्मी देवळाच्या पारंपारिक उत्सवांतलो गोंधळ हो एक नामनेक पाविल्लो शिगमोत्सव जावन आसा. फाल्गुन वद्य उमाशेपयलीं जो मंगळार येता, त्या मंगळारा थंय 'गोंधळ' मनयतात. कारण श्रीदेवी जगदंबेच्या गोंधळ उत्सवाक मंगळाराचेंच म्हत्व आसा, अशें म्हण्टात. मंगळारा सांजवेळा गुरु आपल्या भक्तगणांसयत वाठारांतल्या देवादिकांच्यो नाल्लविडो दवरून भेटी घेतात. परतुपाक रात जाता म्हूण दरेक भक्त वाजत-गाजत मशालीचो उजवाड करून चलतात. दरेक भक्तगणाकडेन चुडटांची चूड आसता. ह्या मशालींची रास येदी व्हड आसता की लागसार रावप शक्य जायना.

फाल्गुन वद्य प्रतिपदेच्या दिसा ते गोंधळाच्या दिसामेरेन देवीच्या दरेक भक्तान एक एक कवळ (भरो) हाडून गोंधळाखातीर दिवपाचो आसता. ह्या पुंजायिल्ल्या भऱ्यांचे राशीन फांतोडेवेलो 'गोंधळ' जाता. गोंधळाच्या उत्सवादिसा नाटकूय जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## गोंय-१ :

भारतीय संघराज्यांतलें २५ वें घटक राज्य. क्षेत्रफळ ३,७०२ चौ. किमी.; लोकसंख्याः १,१६८,६२२ (१९९१). अक्षवृत्तीय विस्तार १४° ५३' उत्तर ते १५° ४८' उत्तर, रेखावृत्तीय विस्तार ७३° ४०' ३३'' उदेंत ते ७४° २०' १३'' उदेंत. भारताचे दक्षिणेवटेन आशिल्ल्या अस्तंत दर्यादिगेवयल्या ह्या सुपुल्ल्या राज्याचे उत्तरेवटेन महाराष्ट्र, दक्षिण आनी उदेंतेवटेन कर्नाटक आनी अस्तंतेवटेन अरबी दर्या आसा. गोंयांक सुमार १०५ किमी. लांबायेची दर्यादिग लाबल्या.

१९६१ त पोर्तुगेजांच्या शेकातळांतल्यान मुक्त जाल्या उपरांत गोंय, दमण आनी दीव हो एक केंद्रशासित प्रदेश आसलो. ३१ मे १९८७ दिसा दमण आनी दीव वेगळे काडून गोंय एक घटक राज्य जालें. पणजी ही राज्याची राजधानी.

**गोंय वा गोवा ह्या नांवाची व्युत्पत्ती आनी अर्थः** सद्याक भुगोलीक नदरेन गोंय वा गोवा ह्या नांवान वळखतल्या वाठाराक पयलीं 'गोमन्तक' अशें म्हण्टाले. 'गोमन्तक' हो शब्द इ.स.प. उण्यांत उणीं २५० वर्सांपयलींसावन प्रचारांत आसा, अशें महाभारताच्या भीष्मपर्वाच्या णवव्या अध्यायांत आशिल्ल्या 'गोमन्तक' ह्या देशवाचक आनी लोकवाचक शब्दावेल्यान म्हणूं येता. सद्या प्रचारांत आशिल्लें महाभारताचें संस्करण इ.स.प. सुमार २५०-३०० वर्सांआदीं जाल्लें आसूंये, अशें तज्ञांचें म्हणणें आसा.

'गोमन्तक' हें उतर बरेच फावट 'गोमान्तक' अशें उच्चारतात वा बरयतात. इतिहाससंशोधक राजवाडे हाणें 'गोमान्तक' असो शब्द थारावन ताची 'गोम+अंतक' अशी व्युत्पत्ती दिल्या.

परशुरामान बाण मारून सुपाच्या आकाराचो वाठार निर्मिलो अशी एक आख्यायिका आसा. हे आख्यायिकेच्या आदारान 'गो' म्हळ्यार बाण, 'मा' म्हळ्यार मार, जंय त्या बाणाचो अंत जाला तो 'गोमांत' आनी ताका लायिल्लें 'क' हें तोखणायेचें अक्षर, अशी 'गोमान्तक' ह्या शब्दाची कांय जाण व्युत्पत्ती दितात आनी ताचेवयल्यान गोमन्तकाक 'परशुरामक्षेत्र' अशेंय म्हण्टात. पूण महाभारतांत परशुरामक्षेत्राक 'शूर्पारक' म्हळां आनी तें हालींच्या ठाणे जिल्ह्यांत आसूंक जाय, अशें चिंतामण वैद्य ह्या विद्वानाचें म्हणणें आसा. ताचेवयल्यान परशुरामान बाण मारून भूंय निर्माण केली हें काव्यार्थान जरी मान्य केलें, तरी ती भूंय गोमन्तक न्हय आनी ताका परशुरामक्षेत्र म्हणपूय समा न्हय, अशेंय बऱ्याच विद्वानांचें म्हणणें आसा.

हे विशीं गोंयचो नामनेचो इतिहाससंशोधक वा. र. वर्दे वालावलीकार ऊर्फ शणै गोंयबाब हाणें दिल्ली व्युत्पत्ती चड प्रमाण दिसता. ताच्या मतान 'गो' म्हळ्यार गाय वा गोरूं आनी 'मन्त' म्हळ्यार आसप. तेन्ना गोरखां आशिल्लो वाठार हो 'गोमन्त' आनी 'क' हें ताचें सुपुल्लेंपण, सोबीतकाय आनी मोग दाखोवपी कूस (जशें 'पुत्रक' म्हळ्यार आवडीचो आनी ल्हान पूत. तशेंच 'अपरान्त' आनी 'कर्णाट' ह्या वाठाराच्या नांवाफुडें 'क' उतर लागून तांचीं 'अपरान्तक' आनी 'कर्नाटक' अशीं रुपां जाल्यांत). सगळ्या कोंकणांतलो फकत गोंयचोच वाठार गोरखां पोसपाचे नदरेन बरो आशिल्ल्यान आर्यांनी ह्या वाठाराक 'गोमन्त' अशें नांव दिल्लें आसूंये, अशें शणै गोंयबाब हाचें मत आसा. सद्याक जरी गोंयांत गोरखांचें प्रमाण तशें भरपूर दिसलें ना तरी पूर्विल्ल्या काळांत तीं बऱ्याच प्रमाणांत आशिल्लीं, असो उल्लेख फेर्नांव लॉपिश दे कास्तान्येद हाणें १५५५ त उजवाडायिल्ल्या इतिहासांत मेळटा. ह्या सगळ्या नियाळावयल्यान 'गोमान्तक' ह्या उतराचे सुवतोर 'गोमन्तक' हें उतर चड प्रमाणांत दिसता.

गोमन्तक हाका 'गोंय' वा 'गोवा' अशेंय म्हण्टात. 'गोवा' हें उतर 'गोमन्तक' ह्या उतराचें अपभ्रश्ट रूप जावन आसा. प्टोलेमी ह्या ग्रीक भूंयवर्णनकारान दुसऱ्या शतमानांत बरयल्ल्या ग्रंथांत हिंदुस्थानांतल्या अस्तंत दर्यादिगेवयल्या शाराक कौबा (Kouba) अशें नांव दिलां. जे. डब्ल्यू. मॅकक्रीड हाणें आनी हेर विद्वानांनी ताचें सारकेंपण गोंयाकडेन थारायलां. (अपभ्रंशांत 'ग' चो 'क' आनी 'व' चो 'ब' जाला). कितलेशेच जाण 'गोवा' हें उतर पोर्तुगेजांनी अपभ्रश्ट केल्लें 'गोमन्तक' हाचें रूप आसा, अशें समजतात. पूण हें म्हणणें खरें न्हय. 'गोवा' हें उतर पोर्तुगेज येवचेपयलींसावन कितलींशींच वर्सां प्रचारांत आशिल्लें अशें सिध्द जालां. ११२९ आनी ११६२ त सांपडिल्ल्या दोन कानडी फातरापट्यांचेर गोमन्तकाचो 'गोवें' ह्या उतरान उल्लेख केल्लो सांपडटा. तशेंच विजयानगरच्या दुसऱ्या हरिहररायान इ.स. १३९१ तल्या ताम्रपटांत 'गोवाभिधां कोंकण राजधानीम्' म्हळ्यार 'गोवा नांवाचे कोंकणांतले राजधानीक' असो उल्लेख केला.

हेभायर पयलीं गोंय ह्या वाठाराक गोमांचल, गोपकपुर, गोपकपट्टण, गोवापुरी ह्याय नांवांनी वळखताले. पुराणांत एका दोंगराचो 'गोमांचल' असो उल्लेख आसा आनी ते सुवातेर श्रीकृष्ण आनी मगध राजा जरासंध हांचें झूज जाल्लें, अशें बरयलां. हें 'गोमांचल' उतर शिलाहार राजा गंडरादित्य हाचे मुस्तींत इ.स. १११५ त उल्लेख केल्ल्या 'गोमन्तदुर्ग' हाका लागींचें आसा. दक्षिण भारताच्या दर्यादिगेच्या वाठाराचें 'अपरान्त' हें एक नांव. ह्या वाठारांत आदले मुस्तींतल्या गोंयच्या प्रदेशाचो आस्पाव जाल्ल्यान गोंयांक 'अपरान्त' अशेंय म्हण्टाले.

**भूंयवर्णनः** अस्तंत दर्यादिगेच्या वाठारांत गोंयचो आस्पाव जाल्ल्यान हांगाची भूंयरचणूक शेजारच्या हेर राज्यांवरीच आसा. तरीपूण सादारपणान हांगाचे भूंयरचणूकेचे तीन प्रकार करूं येतातः

*१. सह्याद्रीवटेनचो दोंगरी वाठारः* सह्याद्री दोंगरावळीचो सुमार ६०० चौ. किमी. चो वाठार गोंयांत आसा. ह्या दोंगरा तेंगशेची सुमार १२५ किमी. लांबायेची वळ अर्दचक्राच्या आकारान गोंयचे शिमेभोंवतणी पातळ्ळ्या. उदेंत गोंयच्या वाठारांत ह्या दोंगराच्यो ऊंच तेंगश्यो जळींमळीं आसात. ह्या तेंगशांमदल्यान उदकाचेय कांय प्रवाह व्हांवतात. कांय सुवातेर दोंगराचे कडे आशिल्ल्यान उदकाचे प्रवाह धबधब्यांभशेन पडटना दिसतात. हातूंतलो दूदसागर हो नामनेचो धबधबो जावन आसा. चड उंचाय आशिल्ल्या दोंगरातेगशांमदीं उत्तर गोंयांतल्यो सोंसोगड (३,८२७ फूट), मोर्लेचो गड (३,४०० फूट), कातलांची माउली (३,६३३ फूट), वाघेरी (३,५०० फूट) हांचो आस्पाव जाता. बोरयेचो


महाराष्ट्र राज्य
कर्नाटक राज्य
अरबी दर्या
गोंय
पेडणे
धारगळ
मोरजी
कोलवाळ
कासारपाली
म्हापशें
हणजुण
कंकंगूट
मये
साळगाव
दिवचलें
केरी
होंडा
वाळपय
पणजी
ताळगांव
कालापूर
भ्रमणस्तार
म्हाड्डोळ
प्रियोळ
खांडेपार
उसगांव
वास्को-द-गामा
मडकय
साकवाळ
कवळे
फोंडें
दाभोळी
बोरी
मोलें
वेर्णे
कुळे
शिरोडें
राय
दुधसागर
पंचवाडी
सांवर्डें
कोलवा
मडगांव
बाणावली
कुडचडें
कोळंब
धर्मपूर
केपें
वारकें
सांगें
केळोशी
बाटी
बाळ्ळी
रिवण
बेतूल
फातर्पें
राजबाग
श्रीस्थळ
गावडोंगरी
चावडी
पैंगीण
लोलयें
पोळें

(फोंडेचो) सिध्दनाथ (१,२४२ फूट), पारोडेचो चंद्रनाथ (१,०५३ फूट), लाटांबार्से हांगाचो दूदसागर हेय दोंगर गोंयांत आसा. गोंयचे शिमेलागीं आशिल्ल्या दोंगरांनी कर्नाटक आनी महाराष्ट्र राज्याक जोडपी घाट आसात. हातूंतलो अनमोड घाट कर्नाटकालागीं येरादारीखातीर बरोच उपेगांत येता. हेभायर गोंयांत केळावडे, चोर्ले, रामघाट, अणें घाट, बोर वा पोव्होर घाट, केळघाट, तिनई घाट, ब्रागांझ घाट, दिधी घाट, कुंडल घाट, दोंकर्पे घाट हे शिमेवयले घाट आसात. सांगें आनी काणकोण हांचेमदीं आंबे घाट आनी सासश्टी आनी काणकोण हांचेमदीं करमल घाट आसा.

२. *पठारांचो वाठार:* गोंयचे मदीं सुमार ३० ते १०० मी. उंचायेचो पठारी वाठार आसा. असलीं कांय पठारां जळींमळीं तशेंच दर्यादिगेच्या वाठारांनी आसात. तातूंतलीं काबो, आग्वाद आनी मुरगांव हीं म्हत्वाचीं आसात.

३. *दर्यादिग:* गोंयाक जी दर्यादिग लाबल्या ती बरेचकडेन न्हंयच्या प्रवाहांक लागून तुटल्या. चड करून उत्तर गोंयांत मांडवी, चोपडें, जुवारी न्हंयो दर्याक येवन मेळिल्ल्यान दर्यादिग सलग अशी ना. दक्षिण गोंयांतली दर्यादिग त्या मानान सलग आनी नीट आसा. कांय कडेन दर्यादिगेच्या वाठारांनी दोंगराच्यो वळीय आसात.

*तळीं आनी न्हंयो:* ल्हान व्हड तळीं हें गोंयचें एक खाशेलपण जावन आसा. कांय तळ्यांनी शेतां रोयतात. तीं चिखलाचीं आसात. हेर तळ्यांचेर बांद बांदून तांचें उदक शेतकामाखातीर वापरतात. गोंयांतलीं मुखेल तळीं, मयें, चिंबल, करमळी, कालापूर, काकोडें आनी कुडचडें हांगा आसात. गोंयांत आशिल्ल्या न्हंयांमदीं मांडवी, जुवारी, साळ, तळपण, गालजीबाग, चोपडें आनी तेरेखोल ह्यो म्हत्वाच्यो.

मांडवी न्हंय कर्नाटक राज्यांतल्यान सह्याद्री दोंगरावयल्यान सुरू जावन सत्तरी तालुक्यांत म्हादय ह्या नांवान व्हांवता. थंय तिका सांगें तालुक्यांतल्यान रगाडो ही न्हंय मेळटा. फुडें तिका उत्तरेखटेनच्यान सांखळेची आनी दिवचलची, तशेंच दक्षिणेवटेनच्यान सांगें तालुक्यांतली खांडेपारची न्हंय, ह्यो न्हंयो येवन मेळटात. हाका लागून पिळगांव पावतासर तिचें पात्र बरेंच रुंद जाता. हाचेउपरांत बारदेस तालुक्यांतल्यान म्हापशेंची आनी अस्नोडची पार न्हंय ह्यो दोन न्हंयो तिका मेळटात. दक्षिणेवटेनच्यान माशेलांतले न्हंयेक लागून जुवारी न्हंयेकडेन तिचो संगम जाता. ह्या संगमाउपरांत तिचें पात्र रुंद जायत वता आनी रायबंदरसावन चड विस्तारीत जाता. उत्तरेक दिवचल आनी बारदेस आनी दक्षिणेक फोंडें आनी तिसवाडी ह्या वाठारांक एकामेकांसावन पयसावन आग्वाद आनी काब हांचेमदल्यान मांडवी न्हंय फुडें अरबी दर्याक मेळटा. हिच्या ह्या तोंकार उत्तरेखटेन 'रेइश मागुश' आनी 'आग्वाद' हे किल्ले आसात, जाल्यार दक्षिण देगेचेर दोनापावलचो काबो राजवाडो आसा. मांडवीची पुराय लांबाय सुमार ३९ किमी. आसा.

जुवारी वा अघनाशिनी सांगें तालुक्यांत सह्याद्रीच्या मुळसाकडल्यान सुरू जाता. फुडें पारोडेची कुशावती आनी सांतानची न्हंय तिका मेळटकच तिचें पात्र रुंद जाता. उपरांत मडकयसावन कुंभारजुवेंमेरेन वचपी तिचो एक फांटो माशेलांतले न्हंयेक मेळटा. उत्तरेखटेन सांगें, फोंडें आनी तिसवाडी तशेंच दक्षिणेवटेन केपें, साश्टी आनी मुरगांव हांकां एकामेकांसावन पयसावन ती मुरगांवच्या आखातांतल्या अरबी दर्याक मेळटा. हिची लांबाय सुमार ४० किमी. आसा.

साळचे न्हंयची लांबाय सुमार १५ किमी. आसा. ती साश्टी तालुक्यांतल्यान व्हांवता. तळपणची न्हंय आनी गालजीबागची न्हंय काणकोण तालुक्यांत आसा. तळपण न्हंयची लांबाय सुमार ८ मैल जाल्यार गालजीबागचे न्हंयची लांबाय सुमार ९ मैल आसा.

तेरेखोलची न्हंय सह्याद्रीच्या मुळसाकडल्यान सावंतवाडी (महाराष्ट्र) हांगाच्या मणेरी गांवांतल्यान सुरू जाता. ही गोंयची उत्तर शीम. तिचे दक्षिण देगेर पेडणें तालुको आसा. जे सुवातेर ती अरबी दर्याक मेळटा थंय तेरेखोलचो किल्लो आनी दक्षिणेवटेन केरी गांव आसा. तेरेखोलसावन न्हंयबाग मेरेन आनी उपरांत हे न्हंयेक बरेच ल्हान व्हड फांटे आसात. हे न्हंयची लांबाय सुमार १५ मैल आसा.

चोपडें ही सुमार १८ मैल लांबायेची न्हंय सावंतवाडीसावन गोंयांत पावता. हिचे उत्तरेखटेन पेडणें जाल्यार दक्षिणेवटेन दिवचल आनी बारदेस तालुके आसात. जंय ती अरबी दर्याक मेळटा थंय तिचे उत्तर देगेर मोरजी गांव आसा. दक्षिण देगेर कायसूवचें बंदर आनी किल्लो आसा. माकाझानसावन फुडें उत्तरेखटेन हे न्हंयेक बरेच फांटे आसात.

गोंयांत ल्हान व्हड अशे सुमार ३६ जुंवे आसात. हातूंतले ३ तेरेखोलचे न्हंयेंत, ११ मांडवी आनी जुवारीच्या फांट्यांमदीं, ४ मुरगांवचे अस्तंतेक अरबी दर्यांत, ५ जुवारी न्हंयेंत आनी ४ बागचे न्हंयेंत आसात. हातूंतले मांडवी-जुवारीच्या फांट्यांतले जुंवे म्हत्वाचे आसात. तातूंतल्या तिसवाडी जुंव्यांचो विस्तार सुमार २४ मैल आसा.

गोंयांत पयलीं तीन धबधबे आशिल्ले. सद्या दूदसागर (३९० फूट) आनी हरवळें (६० फूट) हे धबधबे आसात. पीर्ण हांगा ४५ फूट उंचायेवयल्यान धबधबो पडटालो पूण हालीं तो सुकला.

**हवामान:** दर्या लागीं आशिल्ल्यान गोंयचें हवामान वर्सूयभर चडशें ओलसाणीचें आसता. सादारणपणान हांगा वर्साक तीन ऋतू आसात: पावसाळो, गीम आनी शिंयाळो.

मेच्या शेवटाक वा जूनाचे सुर्वेक पावसाळो सुरू जाता आनी ऑक्टोबर मेरेन सोंपता. उपरांत जानेवारी-फेब्रुवारी मेरेन शिंयाळो आसता आनी फेब्रुवारी-मार्चसावन गीम लागता. पणजी आनी मुरगांव हांगा वेधशाळा आसात. तांणी नोंद केल्या त्या प्रमाण हांगाच्या हवामानांत वर्सूयभर चड फरक आसना. सादारणपणान हवामान उश्ण आसता. मे म्हयन्यांत सरासरी तापमान ३०° से. जाल्यार शिंयांच्या दिसांनी जानेवारी म्हयन्यांत तें सरासरी २५° से. आसता. शिंयाळ्यापरस पावसाच्या दिसांनी म्हळ्यार जून-जुलय म्हयन्यांत दिसाचें तापमान उणें आसता. बरेच फावट एप्रिल-मे ह्या गिमाच्या म्हयन्यांनी तापमान ३३° से. परस वयर वता जाल्यार शिंयाळ्याच्या नोव्हेंबर-डिसेंबर म्हयन्यांत २०° से. मेरेन सकयल देंवता. मे म्हयन्याच्या शेवटाक नैर्ऋत्येवटेन मान्सून वारें येवन पावस पडटा. पावसाच्या दिसांनी हवेंतली ओलसाण चड वाडटा. गिमांत लेगीत ओलसाणीचें प्रमाण सरासरी ६०% परस चड आसता. नोव्हेंबर ते मार्च मेरेन मळब मेकळें आसता, पूण ल्हवल्हव कुपां जमतकच जूनांतल्यान पडपी पावस सप्टेंबर मेरेन चालूच आसता. वर्सुकी पावसाचें प्रमाण सरासरी ३५० सेंमी. आसता. दर्यादिगेच्या वाठारांनी वर्साक सुमार २५०-३०० सेंमी. पावस, जाल्यार घाटाच्या वाठारांनी सुमार ४०० सेंमी. पावस पडटा. जुलय हो म्हयनो सगळ्यांत चड पावसाचो आसता. ह्या म्हयन्यांत सरासरी ३६% वर्सुकी पवस पडटा. पावसाच्या दिसांनी केन्नाकेन्नाय नेटान वारें व्हांवक लागता आनी दर्यादिगेच्या वाठारांनी ल्हान व्हड वादळां जातात. पूण हेर कडेन जातात तशीं भिरांकुळ वादळां गोंयांत चड करून जायनात. गोंयच्या ल्हान व्हड न्हंयांक पावसाळ्यांत हुंवार येता पूण ताचो परिणाम व्हडलोसो आकांत करपी आसना. पावस सुरु जावपावेळार गडगड आनी जोगलां मारतात.

**वनस्पत:** गोंयांत कर्नाटकावटेनच्या ईशान्य आनी आग्नेय शिमांवटेन सदांच पाचवेंचार उरपी रान आसा. हें रान काणकोण, सांगें आनी सत्तरी ह्या तालुक्यांनी पातळां. हांगा पावसाचें प्रमाण चड आशिल्ल्यान रान वाडूंक बरोच आदार जाता.

गोंयच्या पेडणें, दिवचल, फोंडें, केपें ह्या तालुक्यांतल्यानूय कुडक्या कुडक्यांनी रानां वाडल्यांत. हीं डेसिड्यूअस प्रकारचीं म्हळ्यार पानां झडपी रुखांचीं रानां आसात. ह्या रानांतल्यान नाणो, मारट, किनळ, जांब, शिसव, हेद, घोटक हे रुख वाडटात. घरांच्या मदेराक आनी फर्निचराक ह्या रुखांचें लांकूड उपेगाचें आसा. हेभायर शिरस, शिवण, बेल, कवठ, चार, कुडो, खैर, हिरडो असलीं वखदी आनी वेपाराखातीर उपेगी आशिल्लीं झाडां हांगा वाडटात.

दर्यादिगांवयल्या वाठारांत रानां नासलीं तरी वेपारी उपेगाचे रुख बरेच

आसात. आंबो, पणस, जांभळ, बोर, चिंच, पिंपळ असलीं झाडां हांगा दिसतात. मदल्या पठाराच्या वाठारांनी करमल, बिंबल, काण्ण, तोरींग ही वनस्पत आसा. जंय उदक मेळटा थंय केळ वाडूंक शकता. काजूचीं झाडां खंयचेयकडेन वाडटात. माड दर्यादिगांच्या वाठारांनी चड प्रमाणांत दिसतात. कुळागरांनी माडयो गच्च आसतात.

गोंयांत सगळेकडेन तुळस, ब्राह्मी, सर्पगंधा, अमृतवेल, पुनर्नवा, गंजन, किरायतें ही वखदी वनस्पत आसा. जायो, जुयो, चमेली, मोगरीं, शेवतीं, हीं वासाचीं फुलां गोंयांत बऱ्याच प्रमाणांत जातात. हातो (कवासो), रातराणी, सुंरगां हीं उग्र वासाचीं फुलां दिवपी झाडां; आबोली, सदाफुली, दसण, कणेर, अनंत, गोठलां, तुरो, रोझां, वोंवळां हीं फुलझाडां गोंयांत सर्रास आसात. गुलाबाचीं झाडां गोंयांत पोरसां-पोरसांनी दिसतात. गुलाबाचें झाड सगळ्यांत पयलीं पर्शियासावन हांगा आयलें, अशें म्हण्टात.

**मोनजात**: 'गॅझेटीयर ऑफ इंडिया' हातूंत गोंयांत मोलें आनी काणकोणच्या रानांनी वनमाणूस (slender coris) दिशिल्ल्याची नोंद केल्या. माकड गोंयांत सगळेकडेन दिश्टी पडटात. माजराच्या कुळांतले वाग कांयकडेन दिसून आयल्यात. चित्तो, रानमाजर मात बरेच कडेन दिश्टी पडटा. मुंगस, कोलसुणें, कोलो रानांच्या आनी शेतांच्या वाठारांनी दिसतात. न्हंयांच्या आनी तळ्यांच्या वाठारांनी उदां आसात. काटांदोर, चानयो, वागोळीं हीं रानांतल्या झाडांचेर तशेंच हेरकडेन रुख आशिल्ल्या वाठारांनी दिसतात. हुंदराचे जातींत घरहुंदीर, कोळहुंदीर, चिचुंद्री आसात. कांटे सोडपी साळ गोंयांत बरेच सुवातींनी सांपडटा. गादे रेडे सांगें, सत्तरी आनी काणकोण वाठारांनी पंगड करून राविल्ले दिसल्यात. मेरवां, चितळ, भेंकरो आनी हेर प्रकारचीं हरणां गोंयांत रानांच्या वाठारांनी सर्रास दिसतात. हालींच्या काळांत तांची संख्या उणी जाल्याचें जाणवता. रानदुकरांचें प्रमाणूय गोंयांत पयलीं भरपूर आशिल्लें, तें आतां उणें जालां. सोंशे सगळेकडेन आसात. तिर्यो हो मुयो खावपी प्राणीय गोंयांत दिसून आयला.

पोशिल्ल्या जनावरांमदीं गोरवां, घरदुकर, कुत्रीं, माजरां चड प्रमाणांत आसात. खेतीं, चानयो, मेरवां सामकीं उण्या प्रमाणांत पोशिल्लीं दिसतात.

गोंयच्या अभयारण्यांनी चित्तो, रानदुकर, सांबर, आंगार तिबे आशिल्लें हरण, गादो रेडो, मेरवां, सिव्हेट माजर, रानमाजर, सोंसो अशी बरीच मोनजात पळोवंक मेळटा.

गोंयच्या वाठारांत विखारी आनी वीख नाशिल्ले अशे तरांतरांचे सोरोप आसात. पारो हो सादारपणान सगळेकडेन सांपडपी विखारी सोरोप. काणेर, फुरशें, म्हांयडोळ हीं हेर विखारी जिवाणीं गोंयांत आसात. उदकांत रावपी पाणसोरोप विखारी आसतात. हार, सुलव, माळूण, हेवाळें, दिवड, पास्को, हरयाळी, कुसडो, घोणस, नाणकी, चांबडी ह्या जातीचींय जिवाणीं गोंयांत आसात.

सुकण्यांच्यो तरेकावार जाती गोंयांत आसात. गिदां, गरुड, घोण हे सारकीं व्हडलीं सुकणीं गोंयांत दिसून येतात. पाखे, कीर, कोगूळ, घुघमां, किरकिरे, मैना, बुलबुल, मेस्त सुकणें, कावळे असलीं तरेकवार सुकणीं गोंयांत आसात.

गोंयांत बोंडला (विस्तार ८ चौ.किमी.), मोलें (विस्तार २४० चौ.किमी.) आनी खोतीगांव (विस्तार १०५ चौ.किमी.) अशीं तीन अभयारण्यां आसात. चोडण हांगा एक सुकण्यांचें अभयारण्य आसा.

**इतिहास**: जे. एन्. द फोंसेका हाच्या मतान गोंय सद्याक आमकां भुगोलिक नदरेन जशें दिसता तशें तें पयलीं नासलें. पूर्विल्ल्या काळांतलें गोंय हे सद्याच्यो ताच्यो ज्यो शिमो आसात ताचेपरसूय व्हड आसलें. तशेंच एकाच वेळार वेगवेगळ्या राजवटींचो गोंयांचेर कुडक्या कुडक्यांनी शेक चलतालो. गोंयचो इतिहास सकयल दिल्ल्या पांवड्यान समजून घेवंक सोंपो जाता.

**पुराणकाळांतलें गोंय**: वीर युगांत मथुरेचो राजा कंस हाका श्रीकृष्णान जिवेशीं मारतकच ताचो मांव मगधाचो बळिश्ट राजा जरासंध हाणें व्हड सैन्यासयत अठरा फावट मथुरेचेर घुरी घाली. ताका लागून श्रीकृष्ण आनी बलराम दक्षिणेंत पळून गेले. जरासंधावांगडा श्रीकृष्ण आनी बलरामाचें झूज गोमन्त पर्वताच्या मुळसालागीं जाल्लें आनी हो गोमन्तपर्वत सद्याच्या दूदसागरालागीं खंय तरी आशिल्ल्याचें वर्णन पुराणांत आसा.

पुराणांतल्या हेर परंपरेप्रमाण परशुरामान बाण मारून गोंय तयार केलें आनी हरमल हांगा स्वताचो अश्वमेध यज्ञ केलो. दुसरे एके पुराणकथेप्रमाण महादेवान हिमालय सोडून गोमन्तकांत आलाशिरो घेतलो आनी सप्तकोटेश्वर हें नांव घेतलें. 'मंगेश महात्म्य' हातूंत हेविशींची कथा विस्तारान आयल्या.

शणै गोंयबाब हाच्या मतान गोंयाभायर सगळ्यांत पयलीं वचपी गोंयकार म्हळ्यार पुण्ण वा पूर्ण. तो गौतम बुध्दाच्या काळांत म्हळ्यार इ.स.प. पांचव्या शतमानांत जल्मल्लो आनी ताणेंच गोंयांत बौध्द धर्म पावयलो अशें 'अमावतुर', 'सध्दर्म रत्नकारें' ह्या इ.स.प. आनी दुसऱ्या शतमानांत बरयल्ल्या लंकेतल्या सिंहली पुस्तकांवयल्यान समजता.

सुमार दोन हजार वर्सांफाटीं सगळ्या दक्षिण कोंकणांत हीनयान पंथांचो बौध्द धर्म चलतालो, अशें अनुमान शणै गोंयबाबान ताका गोंयांत मेळिल्ल्या इतिहासीक पुराव्यांवयल्यान काडलां.

**पूर्विल्ल्या काळांतलें गोंय**: इ.स.प. दुसऱ्या आनी तिसऱ्या शतमानांत अपरांत वा कोंकणप्रांत मौर्यांची सत्तेखाला आशिल्लो. सौराष्ट्रांत 'गिरनार', हिमालयांत 'खालसी' आनी अफगाणिस्तानांत 'शहाबाजगढी' ह्या तीन सुवातींचेर सांपडिल्ल्या अशोकाच्या फातरापट्यांवयल्यान इ.स.प. तिसऱ्या शतमानांत अशोकान बौध्द धर्माच्या प्रसाराखातीर आपले प्रेशित राष्ट्रीक (महाराष्ट्र), पेठनिक (प्रतिष्ठान), आनी अपरांतक (कोंकण) ह्या प्रांतांनी धाडिल्ल्याचें समजता.

'महावंसो' ह्या बौध्द धर्मपुस्तकांतूय अशोकाचे आज्ञेन मौग्दलीपुत्र हाणें 'महारट्ठ', 'अपरंतक' आनी 'वनवासी' ह्या प्रांतांनी आपले धर्मप्रसारक धाडिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. हेभायर 'सोपारें' हांगा इ.स. १८८२ त सर जेम्स कॅंपबेल आनी पंडित भगवानलाल हाणें खणून काडिल्ल्या बौध्द स्तुपाभितर अशोकाचे आठवे अनुज्ञेचो कांय वांटो सांपडला.

गोंयांत लामगांव, रिवण, हरवळें, लोटली, आर्के, दरमळ, रेडी ह्या सारक्या सुवातींचेर बौध्दधर्माच्या हीनयान पंथाचे सादे विहार आसात. ह्या धर्माच्या महायान पंथाची कुरू दाखोवपी बुध्दाची मूर्त इ.स. १९३० त फादर हेरस हाका बारदेसांतल्या कोलवाळ हांगा सांपडल्या. ती सांची हांगाच्या चैत्यांतले मूर्तीभशेन दिसता, अशें ताणें म्हळां. ही मूर्त चड करून दुसऱ्या-तिसऱ्या शतमानांतली आसूंये. तेचभशेन हरवळेंच्या विहारांत सांपडिल्ले त्राहाती लिपीचे धर्तेवयल्यान तो विहार पयल्या शतमानांतलो आसूंये, अशें अनुमान काडटात. हे सगळे आदारावळीवयल्यान मौर्य साम्राज्याचो शेक हेर कोंकणावांगडा गोंयाचेरूय चलतालो आनी त्या वेळार बौध्द धर्माचो प्रसार जाल्लो, अशें म्हणूं येता.

मौर्य साम्राज्याची शक्त उणी जावपाच्या वेळार इ.स.प. पयल्या शतमानांत महाराष्ट्रांत आनी कोंकणाचे दक्षिणेवटेनच्या वाठाराचेर 'शातवाहन' राजवटीचो शेक सुरू जालो. हांकां पुराणांत 'आंध्रभ्रत्य' अशें म्हळां. ह्या वंशांतलो २३ वो राजा पुलुमायी हाच्या वेळार अस्तांत भारतांत भायल्या शक, यवन ह्या सारक्या पंगडानी घुरयो घाल्यो. तांकां 'क्षत्रप' अशें म्हण्टाले. तांच्यांतलो म्हत्वाचो राजा नहपान क्षत्रप हो जावन आसा. निमाणो गौतमीपुत्र शातकर्णी हाणें ताका मारून उडोवन कोंकण प्रांताचेर पर्थून आपलो शेक गाजयलो. पूण ही सत्ता फुडें फकत सुमार २५ वर्सांमेरेन थिरावली. इ.स. १४५ च्या काळांत रुद्रदमन क्षात्रप हाणें शातवाहनांचेर जैत मेळोवन कोंकण प्रांतांत क्षत्रपांचें राज्य पर्थून सुरू केलें, अशें जुनागड हांगाच्या इ.स. १५० तल्या फातरापट्यावयल्यान

समजता. क्षत्रपवंशाच्या निमाण्या काळांत ताचे जे सेनापती आशिल्ले, तांणी क्षत्रपांचे अधिकार हातासून कोंकणांत आपलो शेक चालू केलो. हो वंश 'आभीर' ह्या नांवान नामनेक पावलो. आभीर राजांनी सुमार ६७ वर्सां राज्य चलयलें अशें म्हण्टात. नासिकच्या १० क्रमांकाचे व्होंवरेंतल्या फातरपट्यांचेर आभीर राजा ईश्वरसेन हाचो उल्लेख मेळटा. हो फातरपटो इ.स. १७६ तलो आसा अशें म्हण्टात. ईश्वरसेन हो घडये ह्या वंशांतलो पयलो राजा. हे उपरांत सुमार चवथ्या शतमानाचे मदीं तांच्या राज्यांचीं सुत्रां वनवासी कदंबांच्या हातांत गेलीं, अशें जी. एम्. मोरायस हाचें मत आसा.

शातवाहन घराणें काबार जाल्याउपरांत तीनशीं वर्सां म्हळ्यार पांचव्या शतमानामेरेन ह्या सगळ्या वाठाराचो स्पश्ट इतिहास मेळना. हें व्हडलें साम्राज्य नश्ट जाल्या उपरांत ताचे मांडलिक आनी अधिकारी हांचेमदीं सत्तेखातीर सर्त लागून ल्हानसान राजघराणीं अस्तित्वांत आयलीं. ह्या काळांत कदंब, चालुक्य, राश्ट्रकुल हीं घराणीं एकदम निर्माण जालीं. अशाच एका घराण्याचो राज्यकारभार गोंयचेर इ.स. चवथ्या शतमानामेरेन चलतालो. ह्या राजघराण्याक 'भोज' अशें म्हण्टात. शिरोडें हांगा जे ३ तांब्यापटे सांपडल्यात, तांचेवयल्यान चंद्रपुर हांगा भोज राजा देवराज हाची राजधानी आशिल्ल्याचें सिध्द जाता. गोमन्त देशाचो राजा देवराज हाचे आज्ञेन भारद्वाजगोत्री सुविंदस्वामी आनी इंद्रस्वामी ह्या दोन ब्राह्मणांक कांय भूंय दान दिल्ल्याचो उल्लेख ह्या तांब्यापट्यांत आसा. हें चंद्रपूर म्हळ्यार सद्याचें चांदर अशें मानतात.

**कदंब आनी चालुक्यः** कदंब वंशाचीं वट्ट तीन घराणीं जावन गेलीं. हातूंतलें सगळ्यांत पोरनें घराणें कर्नाटकांतलें 'वैजयंती' वा 'वनवासी' हांगा आशिल्लें. हाचे उपरांतचीं घराणीं म्हळ्यार 'हनगल' आनी 'गोमन्तक' हांगाचीं. सुर्वेच्या कदंब राजांचो नक्की काळ मेळना. फातरपट्यांत वा दानपत्रांत तांचेविशीं जे उल्लेख सांपडटात तातूंत कालगणना खंयच्याच शकाप्रमाण करूंक ना; 'कारकिर्दीच्या अमूक वर्सा' अशें बरयल्लें सांपडटा.

'जयसिंह' आनी 'रणराग' हे सुर्वेचे चालुक्य वनवासीच्या कदंबाचे चाकर आसूंये, अशें डॉ. फ्लीट हाचें मत आसा. पूण उपरांत चालुक्याचो पयलो पुलकेशी हाणें कदंबराजा हरिवर्मन (इ.स. ५३७-५४७) हाची शक्त बरीच उणी जाल्ल्याचो फायदो घेवन, ताच्या राज्याचो उत्तरेवटेनचो वाठार हातासलो आनी ह्या वाठारांतल्या 'बदामी' हांगा आपले राजधानीची थापणूक केली. पुलकेशी पयलो हाणेंच चालुक्य राजघराणें निर्मिलें. ताचो पयलो पूत किर्तीवर्मा (इ.स. ५६७-६१०) हाणें वेंगुर्ल्यालागसारचो रेड्डी (रेवती द्वीप) गांव जिखिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

ह्या काळांत गोंयच्या वाठाराचेरूय चालुक्य राजांचो शेक चलतालो, हें इ.स. ५७८ तल्या दानपत्रावयल्यान दिसून येता. हातूंत मंगलेश हाणें कुण्डिवाटक हो गांव प्रियस्वामी हाका दान दिलो अशें बरयलां. हो कुण्डिवाटक म्हळ्यार गोंयच्या दिवचल तालुक्यांतलो सद्याचो कुडणें हो गांव, अशें शणै गोंयबाब हाचें मत आसा. हाचेवयल्यान किर्तीवर्माचे मुस्तींत मंगलेश गोंयच्या कांय वाठारांचेर राज्य करतालो, अशें दिसता.

चालुक्यांचो पुलकेशी-दुसरो हो इ.स. ६१० त सत्तेर आयलो. तो बरोच पराक्रमी आशिल्लो. ताणें कदंबांक आपले मांडलिक केले आनी कांचीच्या पल्लवांचेर जैत मेळोवन नर्मदेसावन कन्याकुमारीमेरेन सगळ्या दक्षिण वाठाराचो तो सम्राट जालो. ह्या वेळार ताचो व्हडलो पूत चंद्रादित्य हो 'सावंतवाडी' आनी 'गोमनाक' ह्या वाठारांचेर राज्य करतालो. ताची राणी विजयकट्टारिका ऊर्फ विजयामहादेवी हिणें इ.स. ६५९ त गोंयांतल्या पारशें गांवांतलीं दोन शेतां आर्यस्वामी हाका दान दिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

वनवासीच्या कदंबांतलो 'भोगिवर्मा' (इ.स. ६०६-६१०) आनी माधववर्मा (इ.स. ६५१-६५५) ह्या राजांनी आपलें गेल्लें राज्य पर्थून मेळोवपाचो यत्न केल्लो, पूण तातूंत तांकां यश मेळ्ळें ना. पुलकेशी-दुसरो हाणें भोगिवर्मा हाका मारून उडयलो जाल्यार विक्रमादित्य चालुक्य हाणें माधववर्मा हाका मारून उडयलो. अशे तरेन वनवासी कदंबांचें साम्राज्य नश्ट जालें.

गोंयांत सांपडिल्ल्या दानपत्रांवयल्यान चालुक्य घराण्याचो शेक बाळ्ळी, सत्तरी, पेडणें, साश्टी, सांगें ह्या सारक्या तालुक्यांचेर इ.स. आठव्या शतमानामेरेन चलतालो, अशें म्हणूं येता. चालुक्यांचो निमणो राजा किर्तीवर्मा दुसरो (इ.स. ७४७-७५७) हो हेर राजांइतलो पराक्रमी नाशिल्लो, अशें दिसता. राश्ट्रकूट राजा दंतिवर्मा हाणें चालुक्य राजा किर्तीवर्मा हाचेर जैत मेळयलें असो उल्लेख सामगडच्या इ.स. ७५३ तल्या तांब्यापट्यांत आसा, अशें शणै गोंयबाब हाणें बरोवन दवरलां.

**राश्ट्रकूट आनी शिलाहारः** चालुक्य सत्तेचेर पयली घुरी जरी दंतिदुर्ग ह्या पयल्या राश्ट्रकूट सम्राटान घाली, तरी ताचे उपरांत सत्तेर आयिल्ल्या पयलो कृष्ण हाणें चालुक्यांचो पुराय पराभव केलो. हो राजा बरोच हुशार आनी शूर आशिल्लो. अठरा वर्सांचे आपलें कारकिर्दींत ताणें राज्याचो विस्तार वाडोवन दक्षिण भारतांत आपल्या घराण्याचो शेक पातळायलो. ताचेउपरांतचो तिसरो कृष्ण होय बरोच पराक्रमी आशिल्लो. ताणें दक्षिणेंत आनी उत्तरेंत मेळून वट्ट बारा राजांचो पराभव केल्याचो उल्लेख मेळटा.

राश्ट्रकूटांचो मूळ गांव गोंयच्या साश्टी तालुक्यांतलो लोटली हो आशिल्लो. ते आपल्या नांवाक 'लट्टलूरपुरपरमेश्वर' हें बिरुद व्हड अभिमानान लायताले. तातूंतल्या 'लट्टलूर' ह्या उतराचें 'लोटली' नांवाकडेन आशिल्लें सारकेंपण शणै गोंयबाबान दाखोवन दिलां आनी बऱ्याच इतिहासकारांनी तें मान्य केलां.

'राश्ट्रकूट' हें मूळ अधिकारवाचक उतर आसा. उपरांत तें आडनांवांभशेन वापरूंक लागले. पोरन्या काळांत राश्ट्रकूट ह्या नांवाचो सरकारी अधिकाऱ्यांचो वर्ग आशिल्लो. जेप्रमाण ग्रामकूट म्हळ्यार गांवचो अधिकारी, तेप्रमाण राश्ट्रकूट म्हळ्यार राश्ट्राचो वा प्रांताचो मुखेल अधिकारी. हाचेवयल्यान ह्या घराण्याचो मूळ पुरुस चालुक्यांचे चाकरेंत रावन राश्ट्रकूट पदामेरेन पाविल्लो अशें अनुमान काडूं येता, अशें शणै गोंयबाबाचें मत आसा.

हें राश्ट्रकूट घराणें जरी मूळ गोंयचें आसलें, तरी ताचो विस्तार आनी वाड गोंयाभायर जाल्लो. सद्याचें 'मालखेड' ही ताची राजधानी आशिल्ली. पयलो कृष्ण हाणें सगळो दक्षिणप्रांत आपले सत्तेखाला हाडल्याउपरांत गोंयचो कारभार शिलाहार घराण्याची थापणूक करपी शणफुल्ल हाचेकडेन सोंपयलो. अशेतरेन शिलाहारांची कारकिर्द गोंयांत सुरू जाली.

सुमार आठव्या शतमानाच्या मध्यासावन इकराव्या शतमानामेरेन दक्षिण शिलाहारांची सत्ता गोंयाचेर चलताली. शिलाहारांच्या तीन घराण्यांतलें हें सगळ्यांत पोरनें घराणें आशिल्लें. हे उपरांतचें दुसरें घराणें उत्तर कोंकणांत राज्य करतालें. हाची सुरवात सुमार इ.स. ८०० त जाली आनी तांणी सुमार ४५० वर्सां राज्य केलें. तिसरें घराणें सातारा, बेळगांव जिल्हो आनी कोल्हापूर ह्या वाठारांचेर राज्य करतालें. हें घराणें सुमार १० व्या शतमानांत अस्तित्वांत आयलें.

दक्षिण शिलाहारांची म्हायती खारेपाटण हांगाच्या 'रट्टराज' हाच्या इ.स. १००८ तल्या दानपत्रावयल्यान मेळटा. ह्या घराण्यांतल्या वट्ट १० राजांतलो हो निमाणो राजा आशिल्लो. एकाद्रो आडवाद सोडल्यार ह्या घराण्याच्या राजांनी सार्वभौम जावपाचो यत्न केल्लो दिसून येना. ताका राश्ट्रकूटांप्रमाण शिलाहार हेय मूळचे गोंयांतले आशिल्ले. रट्टराज हाणें इ.स. १००८ तल्या दानपत्रांत आपल्या घराण्याचो 'सिंहल राजामदीं मुखेल' असो उल्लेख केला. हें सिंहल म्हळ्यार गोंय जुंवो. कदंबांनीय गोंयच्या जुंव्याचो लंका असो उल्लेख केला. सिलोन जुंव्यांकय जरी लंका वा सिंहल म्हण्टाले तरी शिलाहारांचो सिलोनालागीं संबंद आयिल्ल्याचो पुरावो खंयच मेळना. तेन्ना शिलाहारांचें सिंहल म्हळ्यार गोंयचो जुंवो अशेंच सिध्द जाता.

ह्या घराण्याचो आठवो राजा भीम (इ.स. ९४५-९७०) हाणें

मंत्री नांवाचो एक बुदवंत तांकां पालव दितालो. हिंदू राजांचो एक संघ करून दक्षिणेंतल्यान मुसलमानांक धांवडावन घालपाचें तांणी थारायलें. हे वटेन हसन गंगू हाणें इ.स. १३५१ त मुधोळ, खारेपाटण हांचेर घुरी घालून उपरांत गोंयांतल्या तिसवाडी जुंव्यांचेर घुरी घाली. कदंब राजा पांच म्हयने मेरेन ताचेआड झुजलो, पूण निमाणें तांचेर जैत मेळोवन हसन गंगू हाणें गोंयांत बहमनी सत्तेची थापणूक केली.

हसन गंगू हाका इ.स. १३५८ त मरण आयलें आनी ताचो पूत गाजी महमद राजा जालो. त्यावेळार विजयनगरांत बुक्कराय राजा जाल्लो. इ.स. १३६५-६६ काळामेरेन ताचीं बहमनी सत्तेवांगडा बरींच झुजां जालीं. इ.स. १३६६ त विजयनगरच्या माधव मंत्री हाणें गोंयच्या बहमनी सुभेदाराचो पराभव करून गोंय आपले सत्तेखाला हाडलें. इ.स. १४७२ मेरेन गोंय ताचेच सत्तेखाल उरलें.

गार्जा महमदाच्या काळांत गोंयांतल्या देवळांची जी मोडतोड जाल्ली, तीं बरींच देवळां माधव मंत्री हाचे देखरेखीखाल पर्थून बांदलीं. गार्जा महमदाचे सत्तेंतल्यान गोंय सोडोवपाच्या वावरांत माधव मंत्री हाका वसंत माधव आनी माइंशणै वागळे ह्या गोंयच्या हिंदूंचो बरोच पालव मेळिल्लो. तांणीच माधव मंत्री हाका गोंयचेर घुरी घालपाखातीर आपयल्लो, अशें इतिहासकारांचें मत आसा. ह्या काळांत कितल्याशाच गोंयकारांक विजयनगरच्या राज्यांत मानाच्यो सुवाती मेळ्ळयो. वसंत माधव इ.स. १३७९ त आनी माइंशणै इ.स. १४०३ त गोंयच्या सुभेदारपदाचेर आशिल्ले असो उल्लेख मेळटा. वसंत माधव नांवामुखार 'गोवापुरवराधीश्वर' अशी पदवी लायतालो, अशें शणै गोंयबाबान बरोवन दवरलां.

इ.स. १४६५ त निरुपाक्षराय हो विजयनगरचो राजा जालो. तो दुबळो आनी व्यसनी आशिल्ल्याचो फायदो घेवन बहमनी राज्याचो प्रधान गवान हाणें गोंयचेर घुरी घालून तें दुसरे फावट बहमनी सत्तेखाला हाडलें.

**आदिलशाही सत्ता:** गवान हाणें गोंयचेर जैत मेळयल्याउपरांत कुश कदाम ह्या बहमनी सरदाराक ताणें गोंयचो सुभेदार नेमलो. इ.स. १४८६ त बहादूर खिलजी नांवाच्या एका सुभेदारान बहमनी सत्तेआड बंड केलें. गोंयच्या सुभेदाराचेर जैत मेळोवन ताणें स्वता गोंयचो राजा आशिल्ल्याचें जाहीर केलें. पूण बहमनी राजान रोखडोच ताका मारून उडयलो. ह्या काळांत विजापूर हांगा युसुफ आदिलशहा हाणें स्वतंत्र राज्य निर्मिल्लें. ताणें इ.स. १४८९ त गोंयचो आपल्या साम्राज्यांत आस्पाव केलो. युसुफ आदिलशहान सुमार २१ वर्सां गोंयचेर राज्य चलयलें. ताणें आपले मुस्तींत गोंयांत बऱ्योच मशिदी आनी राजवाडे बांदले. गोंयचो राज्यकारभार ताणें थळाव्या हिंदूंच्याच तंत्रान चलोवंक सुरवात केली. सद्याची गोंयची 'देसाय', 'सरदेसाय', 'प्रभू', 'प्रभूदेसाय' हीं घराणीं त्या वेळावयलीं वतनदार घराणीं आशिल्लीं.

**पोर्तुगेज आनी गोंय:** गोंयासारको म्हत्वाचो वाठार विजयनगर साम्राज्याच्या हातांतल्यान आदिलशाही सत्तेखाल आशिल्ल्यान विजयनगरचे राजा बेजार जाल्ले. इ.स. १४९० त नरसिंहराय हाणें विजयनगरचें राज्य हातासून नव्या वंशाची थापणूक केल्ली. ह्या वंशाच्या कृष्णदेवराय हाणें आदिलशाही सत्तेंतल्यान आपल्या बऱ्याच वाठारांची मुक्तताय केली.

ह्या काळांत सकयले जातीच्या हिंदू बायलांक मुसलमानांकडल्यान जाल्ल्या भुरग्यांक 'नायटे' अशें म्हणटाले. हे नायटे होनावर, भटकळ ह्या सारक्या बंदरांनी रावताले. तांकां दर्याच्या कारभाराचें बरेंच गिन्यान आशिल्लें आनी ते चांचेगिरी करताले. विजयनगरच्या राजान तांचेर घुरी घालून बऱ्याच जाणांक मारून उडयल्याउपरांत ते गोंयांत येवन रावले. गोंयांतल्यान ते विजयनगरच्या राजांक सतायताले. गोंयच्या लोकांकूय तांचेकडल्यान बरेच त्रास जाताले. तांकां गोंयांतल्यान धांवडावपाखातीर एक थळावो जहागीरदार म्हाळ पै सरदेसाय हाणें तांचेर घुरयो घाल्याचो उल्लेख 'कोंकणाव्याख्यान' ह्या ग्रंथांत मेळटा. ह्या नायट्यांक सोपोवपाखातीर 'तिमोज' वा 'तिमय्या' हाच्या फुडारपणाखाल विजयनगरच्या राजांनी आरमार निर्माण केलें. नायटे दर्यावयल्या झुजांत आपल्यापरस बरे आसात हें समजून तिमय्या हाणें तांकां सोपोवपाखातीर इ.स. १५०५ त व्हिसेरै आल्मैदा ह्या पोर्तुगेज सरदाराचो पालव घेतलो. पोर्तुगेज त्या काळांत कालीकत हांगाच्या झामोरीन राजाचेर जैत मेळोवन दक्षिण भारतांतले दर्यादिगेचेर बरेभशेन थिरावल्ले. तिमय्याचो पालव तांकां बऱ्याक पडलो. इ.स. १५०६ त आफोंस द आल्बुकेर्क पोर्तुगालासावन पर्थून आयलो. ताका गोंयचें म्हत्व कळून आयल्या उपरांत ताणें ताचेर घुरी घालपाचें थारायलें.

इतले मजगतीं इ.स. सुमार १५१० त युसुफ आदिलशहा हाका मरण आयलें आनी राज्यकारभाराचो अणभव नाशिल्लो ताचो पूत इस्मायल सत्तेर आयलो. युसुफ गुर्गी हो तेन्ना गोंयचो सुभेदार आशिल्लो. ताच्या हाताखाल फकत २०० सैनिक आशिल्ले. हे गजालीचो फायदो घेवपाचो आल्बुकेर्क हाणें थारायलें आनी १७ फेब्रुवारी १५१० दिसा आपल्या सैन्यासयत तो आग्वाद हांगा पावलो. गोंयचे राखणेची कांयच तयारी ह्या वेळार नाशिल्ली आनी युसुफ गुर्गी पोर्तुगेजांआड झुजनासतना पळून गेलो. अशे तरेन तिसवाडी, मुरगांव, साश्टी आनी बारदेस वाठार आल्बुकेर्काच्या हातांत आयले.

गोंय आपले सत्तेखाला येतकच आल्बुकेर्क हाणें पोर्तुगेज राजाच्या नांवान थंयच्या लोकांचे परंपरेन चलत आयिल्ल्या हक्कांची राखण जातली आनी सगळे कर अर्दान घेवप जातलें अशी घोशणा केली. गोंयांतलो आदिलशहाचो राजवाडो हातांत घेवन तातूंतल्या मुसलमान बायलांची ताणें आपल्या वांगडच्या पोर्तुगेज सैनिकांवांगडा लग्नां लावन दिलीं. तिमय्या हाका ही गजाल मानवली ना. गोंयची सत्ता आपल्या हातांत येतली अशें ताका दिशिल्लें, पूण पोर्तुगेज गोंयांत रिगतात हें पळोवन तिडकीन तो आपल्या लोकांक घेवन थंयसावन पर्थून गेलो. आल्बुकेर्काक तिमय्याचो विरोध नाका आशिल्लो. ताणें ताका भोवमान दिवन परत आपयलो आनी साश्टी आनी बारदेस ह्या वाठाराचो कारभार ताचेकडेन सोंपयलो.

पूण हाचेउपरांत रोखडेंच आदिलशहान व्हड सैन्य घेवन पोर्तुगेजांचेर घुरी घाली आनी तांकां धांवडावन घाले. २५ नोव्हेंबर १५१० दिसा आल्बुकेर्कान तिमय्या आनी कानानुर हांगाचो राजा गिरसप्पा हाच्या पालवान गोंय पर्थून जिखलें. आदिलशहा आनी आल्बुकेर्काचें सैन्य हांचेमदीं बरींच ल्हान-व्हड झुजां जालीं. कांय काळाउपरांत आल्बुकेर्काक मरण आयलें. इ.स. १५१६ आनी इ.स. १५२० त गोंय जुंवो आपले सत्तेखाल हाडपाखातीर इस्मायल आदिलशहान यत्न केले, पूण तातूंत ताका यश मेळ्ळें ना. इ.स. १५२० तले घुरयेंत तर ताचो पराभव जावन साश्टी, बारदेस आनी अंत्रुज हे वाठार ताका वगडावचे पडले. पूण दोन वर्सांभितर आदिलशहाच्या एका सरदारान ते तीनूय वाठार पर्थून मेळयले. इ.स. १५३३ त आदिलशहाक मरण आयलें आनी ताचे पूत मल्लू आनी इब्राहिम हांचेमदीं सत्तेखातीर झगडीं जावंक लागलीं. मल्लू हाणें आपल्या भावाआड पोर्तुगेजांचो पालव घेवन त्या बदलाक तांकां साश्ट आनी बारदेस वाठार दिले. ताचे उपरांत इब्राहिम सत्तेर आयलो. कांय अटींचेर ताणे ते वाठार पोर्तुगेजांकडेनूच दवरले. ह्यो अटी तांणी पुराय करीनाशिल्ल्यान आदिलशहान तांचेर घुरयो घालूंक सुरवात केली. इ.स. १५३४ त रायतूर आनी बोरी हांगा जाल्ले लडायेंत पर्थून हे वाठार आदिलशाही सत्तेखाला आयले. इ.स. १५४३ त दों जुवांव द कास्त्रु हाणें फोंडें हांगा इब्राहिमाचेर जैत मेळोवन दोनूय वाठार पर्थून मेळयले. इ.स. १५५७ त आदिलशहान हे वाठार मेळोवपाखातीर घुरी घाली, पूण ती फसली. निमाणें इ.स. १५७० त आदिलशहान निजामाच्या पालवान पोर्तुगेजांचेर घुरयो घालूंक सुरवात केली. पूण ह्या वेळार चेउल हांगा जाल्ल्या पराभवा उपरांत तांकां निर्शेवणी आयली. बारदेस, साश्टी हे वाठार तांणी पोर्तुगेजांच्या सुवादीन केले. आफोंस द आल्बुकेर्काफाटल्यान बरेच गव्हर्नर गोंयांत आयले. इतले मजगतीं ब्रिटीश, डच, फ्रेंच हे लोक भारतावटेन पाविल्ल्यान पोर्तुगेजांक वेपार करपाखातीर त्रास जावंक

चंद्रपूरच्या राजाचेर घुरी घालून 'राहू चंद्राक जसो गिळटा तशें चंद्रपूर गिळ्ळें' अशें एका दानपत्रांत म्हळां. ह्याच दानपत्रावयल्यान शिलाहार आनी चंद्रपूरच्या राजांचे बरेपणाचे संबंद आशिल्ले आनी शिलाहारांनी तांकां तांच्या दुस्मानांआड बरेच खेप पालव दिल्ल्याचें दिसून येता. अशें आसतना भीम हाका चंद्रपूर जिखून घेवचें पडलें, हाचें कारण प्रो. मोरायस हाणें दिलां. चंद्रपूरच्या राजान राश्ट्रकूटांची सत्ता पयस करून 'महामंडलेश्वर' जावपाचो यत्न केला आसूंये (शिलाहारांप्रमाण तेय राश्ट्रकूटांचे मांडलिक आशिल्ले) आनी ताका लागून भीम हाणें राश्ट्रकूटांखातीर तांचेर घुरी घाली, अशें प्रो. मोरायस हाचें मत आसा.

हे चंद्रपूरचे राजा म्हळ्यार गोंयचे कदंब. विक्रमादित्य चालुक्यान जरी वनवासीच्या कदंबांचें राज्य नश्ट केलें तरी कंदंब पुरायपणान भूंयभरवण जाले नात. गोंयांत चांदर (चंद्रपूर) हांगा ताचें ल्हानशें संस्थान आशिल्लें.

शिलाहारांचो निमाणो राजा रट्टराज (इ.स. ९९५) हाची इ.स. १००८ उपरांतची म्हायती मेळना. ताच्या काळांत 'तैलप' चालुक्यान राश्ट्रकूटांचो पराभव करून अस्तंत चालुक्याच्या घराण्यांची सत्ता सादारणपणान दोनशीं वर्सांनी पर्थून हाडली. ह्या वावरांत ताका कदंबांचो पालव मेळ्ळा आसूंये. ताणें शश्टदेव कदंब हाका 'महामंडलेश्वर' हाचो दर्जो दिल्लो. रट्टराजान मांडलिकपण आपणायल्लें पूण तें बळयां, अशें डॉ. आळतेकराचें मत आसा. रट्टराज हाचेर ठाण्याच्या शिलाहारांनी घुरी घालून दक्षिण कोंकण आपले सत्तेखाला हाडलें. ह्या झुजाचो फायदो घेवन दुर्बळ जाल्ल्या शिलाहारांचेर घुरी घालून शश्टदेव कदंब हाणें पुराय कोंकण आपले सत्तेखाल हाडलो.

**गोंयचो कदंबः** गोंयांत चंद्रपूर हांगा आशिल्ल्या कदंब वंशावळींतलीं सुर्वेचीं चार नांवां कंटकाचार्य, नागवर्मा, गुहल्लदेव पयलो आनी चतुर्भुज ऊर्फ पयलो शश्टदेव अशीं आसात. उपरांत गुहल्लदेव दुसरो (इ.स. ९८०-१००५) हाणें गोंयच्या कदंब राजवंशाची थापणूक केली अशें मानतात. ताणें हेर राजांक पालव दिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. ताचो गोपकपट्टण बंदराचेर मधुमोड (महमूद) नांवाच्या गिरेस्त अरबी वेपाऱ्यान भोवमान केल्लो, अशें जयकेशीन पयलो हाच्या इ.स. १०५३ तल्या तांब्यापट्यावयल्यान समजता. अरब वेपारी गोंयांत राबीतो करून आशिल्ल्याचो उल्लेख सगळ्यांत पयलीं ह्याच ताम्रपटांत जाला. ह्या काळांत चंद्रपूर सोडून गोंयच्या सगळ्या वाठारांचेर दक्षिण शिलाहारांचो शेक चलतालो.

दुसरो शश्टदेव (इ.स. १००५-१०५०) हाच्या इ.स. १०३८ तल्या तांब्यापट्यावयल्यान ताणें दक्षिण आनी उत्तर शिलाहारांचेर जैत मेळोवन ९०० गांवांचें पुराय कोंकण आपले सत्तेखाला हाडिल्ल्याचो उल्लेख आसा. उत्तर शिलाहारांनी ताचें मांडलिकपण आपणावन आपली राजधानी 'कवडीद्वीप' हांगा हालयली.

शश्टदेव हाचो पूत पयलो जयकेशीन हो ह्या घराण्यांतलो पराक्रमी राजा. ताणें अस्तंत दर्यादिगेवयल्या गोपकपट्टण बंदराचें म्हत्व मतींत दवरून आपली राजधानी चंद्रपूरसावन थंय हाडली. ताचेपयलीं गोवापुरी (गोपकपट्टण) ह्या शाराक पापनाशिनी अशें म्हण्टाले.

हे राजधानीचो कारभार ताणें सदन ह्या अरब वेपाऱ्याकडेन सोंपयलो. तो मधुमोड ह्या अरबी वेपाऱ्याचो वारस आशिल्लो. जयकेशीन पयलो हाच्या तांब्यापट्यांत (इ.स. १०५३) तो मधुमोड हाचो पूत आशिल्लो अशें म्हळां. सदन हाणें गोपकपट्टण बंदरांत येवपी व्हड्यांचेर कर लावन त्या उत्पन्नाचो उपेग गरीबांखातीर फुकट हॉस्पिटलां (मिजगिती) बांदपाखातीर केलो. ह्या काळांत सिलोन, झांझिबार, गुजरात, काठेवाड, केरळ हांगासावन ह्या बंदरांत वेपार चलतालो. तेन्नाच्या फातरापट्यांवयल्यान ह्या शारांतली व्हड बांदावळ, सोबीत जार्दिनां, बाजार, रस्ते आनी तांच्यावयल्यान वचपी पंडितांच्यो पालख्यो हांचीं वर्णनां मेळटात. सदन हाच्या कारभाराक लागून गोंयची बरीच उदरगत जाल्ली आनी ताची तुळा इंद्रपुरी वांगडा केल्या.

जयकेशीन हाणें पयलें आरमार निर्माण केलें. उत्तर कोंकणाचेर घुरी घालून ताणें मम्मुणि शिलाहार हाका जिवेशीं मारलो. ताचे उपरांत ताचे पूत गुहल्लदेव तिसरो (इ.स. १०८०-११००) आनी विजयादित्य पयलो (इ.स. ११००-११०४) हांणी राज्य केलें. उपरांत विजयादित्याचो पूत दुसरो जयकेशीन राजा जालो (११०४-११४७-४८). ताणें 'कोंकणचक्रवर्ती' जावपाचो यत्न केल्ल्यान चालुक्यांचो मांडलिक 'आचुगी' हाणें ताचेर घुरी घालून ताचो पराभव केलो आनी गोपकपट्टणाक उजो लायलो असो प्रा. पिसुर्लेकर हाणें उल्लेख केला. पूण इतलेंय करून चालुक्यांनी कदंबांचें राज्य खालसा करीनासतना तांकां मांडलीकपण दिलें.

हाचे उपरांतचे कदंब म्हळ्यार पर्माडी (इ.स. ११४७-४८-११८१) आनी ताचो भाव विजयादित्य (इ.स. ११८१-१२१६) हे आशिल्ले. तांच्या काळांत चालुक्यांची शक्त उणी जाल्ली. देवगिरी हांगाचे यादव बळिश्ट जाताले. तांणी चालुक्य सत्ता काबार केल्ल्यान कदंब राजा गोंयांत सार्वभौम जावंक पावले. पर्माडी हाणें स्वताक 'कोंकणचक्रवर्ती' अशी पदवी घेतली. विजयादित्याच्या काळांत कलचुरी राजान गोंयाचेर घुरी घालून गोपकपट्टण लासून उडयल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. कदंब राजांनी स्वताच्या नांवान नाणीं निर्माण केलीं. ताचेवयल्यान तेय बळिश्ट आशिल्ल्याचें समजता.

फुडे जयकेशीन तिसरो हाचो भाव त्रिभुवनमल्ल (इ.स. १२१६-१२३७-३८) हो गोंयाचेर राज्य करतना देवगिरीच्या सिंघण यादव हाणें गोंयचेर घुरी घालून जैत मेळयलें. उपरांतचे शश्टदेव तिसरो आनी कामदेव ह्या कदंब राजांनी आपलें गेल्लें राज्य पर्थून मेळोवपाचो यत्न केलो, पूण तातूंत तांकां जैत मेळ्ळेंना. यादवांनी गोपकपट्टण ही राजधानी आपल्या हातांत घेतली आसूंये वा नश्ट केली आसूंये. हाचें कारण म्हळ्यार कामदेव ह्या कदंब राजान आपली राजधानी चंद्रपूर हांगा हालयल्ल्याचो उल्लेख प्रा. मोरायस हाणें केला. इ.स. १२७७ तल्या एका फातरापट्यांत रामदेवराय यादव हाका 'कदंबरायस्थापनाचार्य' अशें म्हळां. ताचेवयल्यान ताणें कदंब राजांक पर्थून मांडलीकपणाचे हक्क दिल्ले अशें दिसता.

**मुसलमानी सत्ताः** उत्तर भारतांत जरी णव शतमानांसावन मुसलमानी सत्ता बळिश्ट जावन राविल्ली तरी ते दक्षिणेमेरेन पावंक नाशिल्ले. दक्षिणेचीं राज्यां हिंदू राजांच्याच हातांत आशिल्लीं. इ.स. १२९४ त अल्लाउद्दीन खिलजी हाणें दक्षिणेचेर पयली घुरी घाली. रामदेवराय यादव हाचेलागीं ताची उपरांत कबलात जाली. फुडें ताचो सरदार मलीक काफूर हाणें तीन फावट दक्षिणेचेर घुरी घालून वरंगळ, व्हारसमुद्र आनी मदुरा ह्या राज्यांचेर जैत मेळयलें.

इ.स. १३१६ त मुबारक खिलजी दिल्लीचो राजा जाल्याउपरांत ताणें आपलो सरदार मलीक खुश्रू हाका दक्षिणेचेर घुरी घालूंक धाडलो. १३१८-१९ त मलीक खुश्रू हाणें पुराय मलबार दर्यादिगेचेर जैत मेळोवन सगळो वाठार दिल्लीचे सत्तेखाला हाडलो. मलीक तुब्लीघ हाची गोंयचो सुभेदार म्हूण नेमणूक जाली आनी अशेतरेन गोंयांत मुसलमानी सत्ता सुरू जाली. थोड्याच काळाउपरांत मुबारक खिलजी हाचो खून जावन सरदारांमदीं झुजां पेटलीं. गोंयच्या सुभेदाराकूय ह्या झुजांत मरण आयलें आनी गोंयावयलो मुसलमानी शेक पयसावलो. कदंबराज सोयीदेव हाणें पर्थून सत्ता आपल्या हातांत घेतली. इ.स. सुमार १३४२ त कदंब वंशाच्या वारसांमदीं झगडीं जालीं. ताचो फायदो घेवन होनावरचो नबाब जमालउद्दीन महम्मद हाणें व्हडलें आरमार घेवन गोंयचेर घुरी घाली आनी कदंब राजाक धांवडावन घालो.

**बहमनी सुलतान आनी विजयनगरचे रायः** इ.स. १३२५ त महमद तुघलक दिल्लीचो राजा जाल्याउपरांत ताणें दक्षिणेचो कारभार चलोवपाखातीर सरदार हसन गंगू जाफरखान हाची नेमणूक केली. हसन गंगू हाणें स्वताच राजा जावपाचें थारावन दौलताबाद हांगा इ.स. १३४७ त बहमनी राज्याची थापणूक केली. ह्याच वेळार हरिहरराय आनी बुक्कराय हांणी हंपी हांगा विजयनगर राज्याची थापणूक केल्ली. माधव

लागले आनी तांचें बळगें दिसानदीस उणें जायत गेलें. इ.स. १६१२ मेरेन पोर्तुगेजांक बरेच दुस्मान निर्माण जाले.

**मराठे आनी पोर्तुगेजः** शिवाजीन महाराष्ट्रांत आपलो शेक गाजोवंक सुरवात केल्याउपरांत मराठ्यांचें बळगें बरेंच वाडलें. इ.स. १६५७ सावन ताणें कोंकणाचेर घुरयो घालूंक सुरवात केली आनी तेन्नासावन पोर्तुगेजांचो मराठ्यांकडेन संबंद येवंक सुरवात जाली. ह्या वेळार तांच्या हातांत तिसवाडी, बारदेस आनी साश्टी हेच वाठार आशिल्ले. पूण दर्यादिगेवयलो बरोच वाठार तांचे सत्तेखाला आशिल्ल्यान तांकां बरोच फायदो जातालो. इ.स. १६६३ त शिवाजी वेंगुर्ला हांगा आयिल्लो तेन्ना पोर्तुगेजांनी दों आल्व्हीस द आताईद हाका ताचेकडेन धाडून बरेपणाचे संबंद निर्माण करपाचो यत्न केलो, पूण तो पावचेपयलींच शिवाजी थंयसावन गेल्ल्यान तें शक्य जालेंना.

गोंयचे उत्तरेवटेन कुडाळ हांगा लखम सावंत, पेडणें हांगा केशव नाईक आनी केशव प्रभू तशेंच भतग्राम हांगा खळू शेणय ह्या देसायांचीं ल्हानसान राज्यां आशिल्लीं. ते विजापूरकारांचे मांडलिक आशिल्ले. इ.स. १६६४ त शिवाजीन खवासखान ह्या विजापूरच्या सरदारालागीं झूज केलें, तेन्ना ह्या देसायांनी शिवाजीआड लडाय केली. ह्या झुजांत तांचो पुराय पराभव जाल्ल्यान ते बारदेस प्रांतांत येवन रावले आनी थंयसावन शिवाजीकडेन झुजूंक लागले. इ.स. १६६७ त शिवाजीच्या सैन्यान बारदेसाचेर घुरी घाली आनी थंयच्या बऱ्याच लोकांक धरून व्हेले. हे भायर थंयचे बरेच गांव ताणीं लुटले. तांचें सैन्य बारदेसांत आसतना पोर्तुगेजांनी तांचेर घुरी घालून तांच्या सैन्याक नाका करून सोडलें. उपरांत शिवाजी दिवचले गेलो आनी ताणें पोर्तुगेजांवांगडा कबलात केली. हे घुरये उपरांत लेगीत देसायांनी शिवाजीक त्रास दिवप चालूच दवरलें. शिवाजीन पोर्तुगेजांक तेविशीं कळयल्याउपरांत ताणीं देसायांक धांवडावन घाले. इ.स. १६६८ उपरांत ते शिवाजीक शरण गेले.

शिवाजी दिवचले आसतना ताणें सप्तकोटेश्वर ह्या नार्वेच्या देवळांचो जीर्णोध्दार केल्याचो उल्लेख मेळटा. इ.स. १६७५ शिवाजीन घुरी घालून फोंडेचो किल्लो घेतलो. तो किल्लो तेन्ना विजापूरकारांकडेन आशिल्लो. फोंडें मराठ्यांनी घेतल्यार गोंयाक धोको आसा, हें पोर्तुगेजांक जाणवलें; पूण मराठ्यांआड उक्तेपणान झूज दिवपाचो तांकां धीर जालो ना. ताणीं गुप्तपणान धा बोटींवरवीं कड्डणासारक्यो गजाली फोंडेंच्या किल्लेदाराक धाडपाचो यत्न केलो, पूण मराठ्यांनी त्यो वाटेरूच धरल्यो. शिवाजीचे मुस्तींत पोर्तुगेज आनी मराठे हांचेमदीं खर अशें झूज जालेंचना.

संभाजी, राजा जाल्याउपरांत ताचेकडेनूय सुर्वेक पोर्तुगेजांनी इश्टागतीचे संबंद दवरले. संभाजीचो दूत पोर्तुगेजांकडेन आयिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. पूण फुडें इ.स. १६८० त दिवचल हांगाच्या मराठ्यांच्या सैन्यांतल्या कांय जाणांनी बारदेसांतल्या शिवोले गांवांत वचून थंयच्या तीन मनशांक धरून व्हेले. इ.स. १६८१ चे सुर्वेक दिवचलचो मराठ्यांचो सुभेदार मोरो दादाजी हाणें गोंयच्या कांय वेपाऱ्यांक धरले. ह्या वेळार संभाजी गोंयांत आयिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. इ.स. १६८१ त संभाजीचो मुखेल कारभारी आनाजी पंडित दिवचले आयिल्लो. ताचेकडेन पोर्तुगेजांनी उलोवणीय केल्लीं. इ.स. १६८२ चे सुर्वेक पोर्तुगेजांचो आंजेदिव जुंवो जिखून घेवपाचो मराठ्यांनी यत्न केल्ल्याचें समजता. इ.स. १८८३ त संभाजीन चौल हांगा पोर्तुगेजांचेर घुरी घाली. गोंयच्यान ह्या झुजाखातीर पोर्तुगेजांक बरेच पालव मेळटालो आनी हे वटेन ताणी गोंयच्या मराठ्यांच्या हातांत आशिल्ल्या फोंडें हांगाच्या किल्ल्याचेर घुरी घाली. १ नोव्हेंबर १८८३ दिसा संभाजी स्वता सैन्यासयत फोंडें हांगा आयलो आनी ताणें पोर्तुगेजांक धांवडावन घाले. २४ नोव्हेंबर दिसा ताणें व्हडलो जुंवो (Santo Estevao) घेतलो. फुडें ताणें साश्टी आनी बारदेस हे दोनूय वाठार जिखून घेवन रायतूरच्या किल्ल्याचेर घुरी घाली. पोर्तुगेज सत्तेक हे गजालींतल्यान बरेंच लुकसाण जालें. तांचो धीर काबार जालो आनी तांच्या हातांतल्यान सत्ता पुरायपणान वचपाची परिस्थिती आयली. पूण तेवटेन त्याच काळांत शहा आलम हाणें मराठ्यांच्या वाठाराचेर घुरी घाल्ल्यान संभाजीक गोंयचें झूज अर्दकुटें सोडून थंय वचचें पडलें. ताचेउपरांत इ.स. १६८४ त पोर्तुगेजांवांगडा कबलात करपाखातीर संभाजीन आपलो वकील गोंयांत धाडलो. तांचेमदीं तात्पुरती कबलात जालीय पूण ती चड काळ तिगली ना आनी तांचे संबंद पर्थून इबाडले. इतले गजगतीं संभाजीक इ.स. १६८९ त मरण आयलें.

राजारामाच्या काळांत पोर्तुगेज आनी मराठे हांचेमदीं व्हडल्या झुजांचे प्रसंग आयले नात. पूण इ.स. १६९४ आनी इ.स. १७१७ त ल्हानसान घुरयो मराठ्यांनी पोर्तुगेजांच्या वाठारांनी घाल्यो. फुडें इ.स. १७३९ मेरेन पोर्तुगेज आनी मराठे हांचेमदीं झुजां जाल्ल्याचें दिसून येना.

पेशव्यांच्या काळांत गोंयांभायर पोर्तुगेजांची मराठ्यांवांगडा बरींच ल्हान-व्हड झूजां जालीं आनी गोंयांतल्यान ह्या झुजांक बरोच पालव मेळ्ळो. इ.स. १७४२ त गोविंदपंत ठाकूर ह्या पेशव्यांच्या सरदारान सांगें आनी फोंडें हांगाचे किल्ले जिखले. पूण पोर्तुगेजांनी उपरांत ताचेर घुरी घालून ताका धांवडायलो आनी सांगेचो किल्लो भूंयभरवण केलो. फोंडेंचो किल्लोय भूंयभरवण करपाची तांची येवजण आशिल्ली. पूण सौंदेकारांनी हो किल्लो आपलेकडेन दवरलो.

सौंदेकार हे मूळ कर्नाटकांतल्या शिरशीलागच्या सौंदे ह्या गांवचे. विजयनगर संस्थानाच्या काळासावन तांचें राज्य अस्तित्वांत आशिल्लें. तांची सत्ता दक्षिण दर्यादिगेवयल्या कर्नाटकांतल्या वाठारांनी तशेंच बाळ्ळी, चंद्रवाडी, काकोडें, हेमाडबार्शे, अश्टागार आनी फोंडें ह्या वाठारांचेर चलताली. इ.स. १७५६ त सौंदेच्या राजान साडेपांच लाख रुपयांक मर्दनगड घाण दवरल्याचो उल्लेख आसा. हो किल्लो घेवपाखातीर इ.स. १७५९ त व्हिसेरै काँदि द आल्वा हाणें फोंडेंचेर घुरी घाली. पूण हे लडायेंत ताका मरण आयलें. निमाणो इ.स. १७६३ त पोर्तुगेजांनी तो घेतलो आनी मोडून उडयलो. इ.स. १७६४ त हैदरअली हाणें सौंदेकार राजांचेर घुरी घाली. तेन्नाचो राजा सदाशिव राय हाणें ती घुरी पर्थूपाखातीर पोर्तुगेजांचो पालव मागलो. तो स्वता आपल्या घरच्यांसयत गोंय शारांत आयलो.

सतराव्या शतमानाच्या शेवटाक पेडणें, भतग्राम, सत्तरी हे वाठार सावंतवाडीकार भोंसले हांच्या हातांत आशिल्ले. हे वाठार बारदेसालागीं आशिल्ल्यान पोर्तुगेज आनी भोंसले हांचेमदीं सदांच झगडीं जातालीं. फुडें इ.स. १७८८ मेरेन पोर्तुगेजांनी भोंसल्याचेर घुरयो घालून पेडणें वाठार जिखून घेतलो.

- कों. वि. सं. मं.

**इ.स. १५१०-१९६१:** पोर्तुगेजांनी गोंय प्रांत इ.स. १५१० त विजापूरचे सत्तेकडल्यान जिखून घेतिल्लो. त्याच वर्सा १७ मे दिसा विजापुरकारांनी तो प्रांत पर्थून जिखलो. पूण २५ नोव्हेंबर मेरेन पोर्तुगेजांनी तिसवाडीचेर जैत मेळयलें. इ.स. १५४३ त ताणीं बारदेस आनी साश्टी आपले सत्तेखाला हाडले. ह्या वाठा म्हण्टात. फोंडें ताणी पेशव्यांकडल्यान इ.स. १७६३ त घेतलें. इ.स. १७६४ तले कबलातींत सौंदेच्या राजान तांकां सांगें, केपें आनी काणकोण हे वाठार दिले. पेडणें, सत्तरी आनी दिवचल हे वाठार तांकां झुजांतल्यान तशेंच कबलातींतल्यान इ.स. १७८१ त सावंतवाडीच्या भोंसल्यांकडल्यान मेळ्ळे.

**प्रशासनः** उदेंतेवटेनच्या आपल्या वाठारांचेर सरकार चलोवपाखातीर पोर्तुगालचो राजा आपलो सगळ्यांत उंचेल्या पावंड्यावयलो अधिकारी धाडटालो. ताका व्हिसेरै वा गोर्व्हेर्नादोर अशें म्हण्टाले. इ.स. १८२० उपरांत ताका गोव्हेर्नादोर जेराल अशें म्हणपाक लागले. ताका बुद्द दिवपाखातीर राज्य विधीमंडळ आसतालें. ह्या विधीमंडळाचें स्वरूप इ.स. १६०४ त व्हिसेरैक अध्यक्ष म्हूण नेमपाखातीर अस्पश्ट आनी असंबध्द आसतालें. हेभायर व्हिसेरैक तीन इस्टेटींच्या समितीचो, अर्थसमितीचो आनी मिशन मंडळाचो पालव मेळटालो.

'सेनादु' वा नगरपालिका हें गोंयांत प्रशासनाचें म्हत्वाचें मंडळ आसतालें. नगरपालिका इ.स. १५११ त निर्माण केल्ल्यो, तेन्ना तातूंत १०

वांगडी आशिल्ले; पूण ही संस्था बदलत आशिल्ली. सगळे वांगडी 'कासादुश' (पोर्तुगेज राष्ट्रीयत्वाचे पूण गोंयच्या बायलांकडेन लग्नां जावन हांगाच रावीतो केल्ले) आसताले. थळाव्या किरीस्तांवांक ह्या मंडळाचे वांगडी जावपाखातीर १९ व्या शतमानामेरेन आनी हिंदूंक २० व्या शतमानामेरेन वाट पळोवची पडली.

कोमुनिदादी वा गांवच्यो समिती गांवगिऱ्या वाठारांतलें प्रशासन सांबाळटाल्यो. शेतवड संघटित करप, हो तांचो मुखेल वावर आसतालो. पूण त्यो राजकी, समाजीक आनी धर्मीक वावर करताल्यो. इ.स. १५२६ त पोर्तुगेजांनी 'फोराल' (सनद) च्या रुपान कोमुनिदादींच्या वेव्हाराचेर कांय नेम आनी चालीरिती थारावन दिल्यो. इ.स. १५४० मेरेन ह्या फोरालची बरेतरेन अंमलबजावणी जाली. त्या वर्सा आनी उपरांत ह्या फोरालांत मुळावे बदल केले. हे मुळावे बदल इ.स. १७३५, १८८०, १८८६, १९०४, १९३३ आनी १९६१ त केले.

गांवचो हेर कारभार एका विधीमंडळावरवीं चलतालो. 'गांवकार' ह्या मंडळाचे वांगडी आसताले. फोरालाखाला अध्यक्षीय अधिकारी असो नासतालो. एखाद्रो गांवकार मुखेल आसतालो, पूण हें मुखेलपणूय वंशपरंपरेन चलून येनाशिल्लें. सगळे निर्णय एकमतान घेवचे पडटाले. एकलो बरोवपी (इश्क्रिव्हांव) विधीमंडळाचे दरेक बसकेची नोंद दवरतालो. हे नोंदीभितर बसकेंत केल्ल्यो सुचोवण्यो आनी थंय घेतिल्ले निर्णय हांचो आस्पाव आसतालो. ह्या नोंदीचेर बरोवप्याच्यो आनी हाजीर आशिल्ल्या वांगड्यांच्यो सयो घेताले.

इ.स. १५२६ तल्या फोरालावरवीं गांवकारांक जमनीचे रासवळ मालक थारायले. पूण इ.स. १७३५ तल्या वटहुकुमावरवीं सगळे जमनीची मालकी सरकाराकडेन गेली. इ.स. १९६१ त केल्ल्या बदला उपरांत इ.स. १५२६ तले नेम पर्थून लागू केले; पूण इतले मजगतीं कोमुनिदादी म्हळ्यार शेतवडीच्या मळार वावुरपी संस्था जावन गेल्यो आनी इ.स. १५२६ तल्या नेमाप्रमाण चलपी तांचें काम बंद जालें.

**न्यायमंडळ:** इ.स. १५४४ मेरेन न्याय प्रशासन शिस्तबध्द आनी वेवस्थित नाशिल्लें. इ.स. १५४४ त गोंयचें उच्च न्यायालय अस्तित्वांत आयलें आनी ताचेर एक चॅन्सलर आनी ६ न्यायाधीशांची नियुक्ती जाली.

पोर्तुगालांत एकाधिकारशाय योमेरेन सगळे सत्तेचें विकेंद्रीकरण जावंक नाशिल्लें. ताका लागून दर सुक्रार व्हिसेरै उच्च न्यायालयाच्या अधिवेशनाचें उक्तावण करतालो. उपरांत म्हत्वाचे खटले आयकून घेवन ताचेर निर्णय दिताले. चॅन्सलर हो राज्य विधीमंडळाचोय वांगडी आसतालो. सगळे कायदे राजा वा व्हिसेरैकडल्यान येताले. न्यायाविशींच्या आनी हेर कारभारांत आर्चबिशपूय वांटो घेतालो.

मार्केश द पोम्बाल इ.स. १७७४ त पोर्तुगेजांचो पंतप्रधान जाल्याउपरांत ताणें उच्च न्यायालय बरखास्त केलें, पूण इ.स. १७८८ त तें पर्थून सुरू जालें. त्याच वांगडा तालुका पातळेचेर आनी हेर सकयल्या पांवड्यावयलीं न्यायालयां निर्माण करून तातूंत दिवाणी, दंड, मुळावे आनी अपीलाविशींचे खटले चलूंक लागले.

**राखणेदळ:** गोंयांत पोर्तुगेजांचें नाविक दळ लश्करापरस बळिश्ट आशिल्लें. इतलेंच न्हय तर तांचें नाविक दळ मोगल, विजयनगरचे राजा वा त्या काळांतल्या हेर खंयच्याच भारतीय राजांपरस बरें आशिल्लें. बांदावळ, वेग, वजन व्हरपाची तांक, तांचेर आशिल्लीं शस्त्रां ह्या सगळ्याविशीं भारतीय आरमाराक तें सहजपणान फाटीं घालूंक शकतालें. हे गजालीक लागून पोर्तुगेज दर्यादिगंतालागीं सहजतायेन बळिश्ट अशा साम्राज्याची थापणूक करूंक शकले. 'नाउ दा कुॲर्रा' हें ताचें ३ ते ४ नाळे आनी ६० तुबकां आशिल्लें जहाज. तें १,००० टनांपरस चड वजन व्हरूंक शकतालें. ताच्या फाटल्यान 'फ्रागाता' हें २ माळयांचें आनी ३० ते ४५ तुबकांचें; 'पाल्ला' हें १५ ते २५ तुबकांचें; 'माचुआ' हें ५ ते १५ तुबकांचें आनी 'मांगुॲरॅम' हें १ वा २ तुबकांचें अशीं जहाजां तांचेकडेन आशिल्लीं. पूण ह्या नाविकदळांची ताकद १७ व्या आनी उपरांतच्या शतमानांनी उणी जायत गेली. १६ व्या शतमानांत तांच्या भारतांतल्या वाठारांनी पोर्तुगेजांचीं ५० ते ७० जहाजां आशिल्लीं. इ.स. १७७४ त फकत दोन झुजाबोटी, ३ फ्रिगेट आनी २१ ल्हान जहाजां आशिल्लीं. इ.स. १९६१ त गोंय मुक्ती वेळार तर तांची 'आल्बुकर्क' ही एकूच झुजाबोट गोंयांत उरली.

इ.स. १६७० मेरेन गोंयांत लश्कर अशें नाशिल्लें. सगळे तरेच्या मनशांक, गुन्यांवकारांक आनी हेर कादयेंत पडिल्ल्या मनशांक पोर्तुगेज सरकार गोंयांत सैनिक म्हूण धाडटालें. ह्या सैनिकांक गणभेस, हेर आयुधां वा कांयच प्रशिक्षण नासतालें. गोंयांत पावतकच तांकां जेवण-खाण, कपडे वा रावपाची वेवस्था नासताली. तांकां पयलो पगार मेळपाखातीर वर्सभर लेगीत वाट पळोवची पडटाली. हाका लागून ते कोणाय राजघराण्याच्या आलाशिऱ्याक रावताले वा दुसऱ्या राज्यांनी चोरयो करताले वा शेजारच्या राज्यांनी नोकऱ्यो सोदपाखातीर वताले. जेन्ना जेन्ना व्हिसेरैक सैन्याची गरज पडटाली, तेन्ना सहजपणान हाताकडेन आशिल्ल्या लश्कराक जमोवन तो झुजाखातीर भायर सरतालो. तांचेकडेन आशिल्ल्या झुजतंत्रांक वा प्रशिक्षणाक लागून न्हय, तर तुबकांक लागून तांकां जैत मेळटालें. शिवाजी, संभाजी आनी पेशव्यांच्या घुरयांक लागून पोर्तुगेजांक संघटित सैन्य बाळगुपाची गरज जाणवली. पूण हें सैन्य मराठ्यांच्या सैन्यामुखार उणें पडटालें. मराठ्यांक आनी म्हैसूरांत टिपू सुलतानाक दडपून उडोवन ब्रिटिशांनी तांचें राज्य काबार करतकच पर्थून जमनीवयल्या सैन्याची गरज पोर्तुगेजांक लागली ना. ब्रिटिशांचे आनी तांचे संबंद बरेपणाचे आशिल्ले.

**अर्थवेवस्था:** पोर्तुगेजांनी गोंय घेतलें तें ताच्या राजकी वा झुजाच्या म्हत्वाक लागून न्हय, तर चडकरून गोंयच्यान मेळपी वेवसायीक फायद्याक लागून. पोरन्या गोंयच्या बंदरांतल्यान अरेबिया, पर्शिया, सिलोन आनी हेर भायल्या देशांवांगडा पयलींसावनूच येरादारी जाताली. घोड्यांच्या वेपारांतल्यान पोरन्या गोंयच्या वाठारांत बरेच फायदो जातालो. पोर्तुगेजांनी हांगा वेपारांत बरीच वाड केली, जाका लागून ह्या राजधानीच्या शाराची लोकसंख्या १७ व्या शतमानाचे सुर्वेमेरेन दोन लाखांचेर पावली.

गोंयच्या लोकांचो मुखेल उद्येग जरी शेतवड हो आसलो, तरी हांगा जाल्ली पिकावळ हांगाचे लोकसंख्येक पुरायतरेन पावनाशिल्ली. तांदूळ आनी हेर बऱ्योच वस्तू कॅनराच्या बंदरांतल्यान आयात जाताल्यो. पोर्तुगेजांनी गांवच्या लोकांवयले कर दिसानदीस वाडयत व्हेले, पूण शेतवडीचें उत्पादन वाडोवपाखातीर कांयच केलेंना. गोंयच्या न्हंयांनी आनी दर्यादिगेर नुस्तें बरेंच मेळटालें. माड आनी रानांतले हेर पिकावळीचोय कांय प्रमाणांत आदार मेळटालो. केन्नाकेन्नाय सैमीक आपत्तींक लागून दुकळ पडप, रोगाची सांथ येवप असलेय प्रकार घडटाले. भिरांकूळ अशे दुकळ इ.स. १५५३, १५७० आनी १६८२ ह्या वर्सांनी पडले. ताका लागून कितलेशेच जाण मेले आनी कितलेशेच जाण गोंय सोडून हेरकडेन गेले.

बऱ्याच प्रकारची कलाकुसर आनी उद्येग गोंयांत चलताले. मेस्तकाम, भांगर, रुपें, लोखण हांचें धातूकाम, चामड्याचें काम, खोटले-पांटले करप, कुंभारकाम आनी नुस्तेमारी हे मुखेल उद्येग आशिल्ले. पोर्तुगेजांनी जहाजां आनी बोटी बांदपाच्या उद्येगाची उदरगत केली. महासागरांत वचपी बोटी पोरने गोंय हांगाच्या गोदी आनी शस्त्रागारांत बांदताले. ही गोदी आनी शस्त्रागार म्हळ्यार चोंयवटेन वण्टी आशिल्ली उद्येगीक वसाहत आशिल्ली. गोदींत सगळे तरेच्यो झुजाबोटी, वेपारी बोटी, ल्हान बोटी ह्या सगळ्या तरेच्या जहाजांची बांदावळ थंय जाताली. १८ व्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत शस्त्रागारांत २१ कार्यशाळा आनी ८०० कामगार आशिल्ले. नाळी, तुबकां, गुळयो, चक्रां, घांटी असल्यो सगळ्यो गजाली ह्या तुबकांचे टाकसाळींत तयार जाताल्यो. इ.स. १७५३ त व्हड उजो लागून हें शस्त्रागार काबार जालें, पूण रोखडेंच तें पर्थून बांदलें.

भारतांत आशिल्ल्या पोर्तुगेजांच्या उद्येगांनी सोरो काडप, तेलाचे घाणे, मीठ उत्पादन, पितुळचें धातुकाम, हस्तिदंत कलाकुसर, तंबाखू

उत्पादन आनी कपडो निर्मणी हांचोय आस्पाव जाता. पोर्तुगेजांनी गोंयांत सुर्वेक सावन नाणीं तयार करपाची टांकसाळ उबारली आनी तांकां गरज पडटा तसलीं नाणीं निर्माण करूंक सुरवात केली. ही टांकसाळ जेन्ना १९ व्या शतमानांत ब्रिटिशांक पोर्तुगेज 'रुपीया' तयार करपाचें कंत्राट दिलें तेन्ना बंद पडली.

सादारपणान पोर्तुगेजांच्या अर्थीक धोरणाचो उद्देश गोंयचें आनी गोंयकारांचें शोशण करप होच आशिल्लो. चडांत चड कर लावन पोर्तुगेजांनी खजिनो जमोवन तो लश्कर, नाविक दळ, प्रशासन, इगर्ज आनी हेर उत्पादन आनी उदरगत जायनाशिल्ल्या गजालींचेर खर्च केलो. इ.स. १८५२ सावन पोर्तुगेजांनी जीं अर्थीक अदमासपत्रकां जाहीर केलीं, तांचेवयल्यान तांकां शेतवड, उद्येग वा वैज्ञानिक आनी तांत्रिक शिक्षणाच्या मळाचेर उदरगत करपाची इत्सा नाशिल्ली हेंच दिसून येता. हे विशीं तांचे राजवटीच्या निमण्या वर्सांनी विसाव्या शतमानांत तांणी ल्हानसान लागवड प्रकल्प आनी मीनाचो उद्योग हांचेर वावर केल्याचें दिसून येता.

**धर्मीक धोरण:** किरिस्तांवांचो सोद घेवपाखातीर पोर्तुगेज उदेंतेवटेन आयिल्ले. धर्मांतर आनी वेपार हे तांचे मुखेल वावर आशिल्ले. इ.स. १५४० मेरेन मुसलमान सोडल्यार हेर कोणाचेचविशीं धर्माक लागून बळाचो वापर जालो ना. पूण इ.स. १५४० सावन धर्मांतराविशीं खर धोरण आपणावन राजाचो धर्म तोच प्रजेचो धर्म आसूंक जाय, अशें फर्मान काडलें. तिसवाडींतलीं सगळीं देवळां उध्वस्त केलीं. देवळांचें फकत उत्पन्नच न्हय तर जमनीलेगीत इगर्जींचे मालेकेच्यो केल्यो. इ.स. १५६० त बारदेस आनी साश्टी हांगाचींय देवळां उध्वस्त करून तांची मालमत्ता इगर्जींच्या नांवार केली. धर्मछळाचे (Inquisition) नवे नवे कायदे काडून किरिस्तांव नाशिल्ल्यांक जीण सामकी दगदगांची करून उडयली. कितल्याशाच जाणांक किरिस्तांव जावंचे पडले, जाल्यार कितलेशेच जाण आपली जल्मभूंय सोडून सांसणाचे हेर कडेन पळून गेले.

१७ व्या शतमानांत डचांकडल्यान जाल्या पराभवाउपरांत आनी पोर्तुगेजांक हेर बऱ्योच वसाहती वगडावच्यो पडिल्ल्यान तांचो वेपार आनी उत्पन्न उणें जावंक लागलें. ताका लागून धर्मछळाचें प्रमाणूय बरेंच उणें जालें. नवे काबिजादींतल्या लोकांक समाजीक आनी धर्मीक मेकळेपणाची स्वतंत्रताय दिली. १९ व्या शतमानांत संविधानात्मक एकाधिकारशायेखाला उदारमतवाद आयलो. इ.स. १९१० त किरिस्तांव धर्म हो गोंयांत राज्यधर्म उरलोना आनी किरिस्तांव नाशिल्ले लोक मुक्तपणान समाजीक धर्मीक जिवीत जियेवंक लागले.

**शिक्षण:** देवळां, मठ आनी मशिदी उध्वस्त केल्ल्यान पोर्तुगेजांनी तेन्ना प्रचलित आशिल्ली शिक्षणपध्दत इबाडली. इ.स. १५४५ सावन तांणी इगर्जपध्दतीच्यो शाळा सुरू केल्यो. वाचप, बरोवप, गणित, गायन आनी संगीत हे शाळांतले मुखेल विशय आसले. शिक्षणाचें माध्यम पोर्तुगेज भास आसली.

तरांतरांच्या धर्मीक हुकमांवरवीं गोंयांत महाविद्यालयां आनी सेमिनारी उगडल्यो. कांय महाविद्यालयांक विश्वविद्यालयांचो पांवडो मेळ्ळो. तेन्नाचें सगळ्यांत नामनेचें कॉलेज म्हळ्यार जेजुईतांनी पोरनें गोंय हांगा चलयल्लें सॅंट पॉलूस कॉलेज, ह्या महाविद्यालयाक विश्वविद्यालयाचो पांवडो आशिल्लो आनी थंय तत्त्वगिन्यान, मननशील, धर्मशास्त्र, लॅटीनीटी आनी नितीशास्त्र ह्या विशयांचें शिक्षण दिताले. १७ व्या शतमानामेरेन हे संस्थेंत शिकपी विद्यार्थ्यांचो आंकडो ३,००० परस चड जालो. इ.स. १५७४ त जेजुईतांनी मडगांव हांगा आनीक एक महाविद्यालय सुरू केलें आनी फुडें तें इ.स. १५८० त राशोल (रायतूर) हांगा हालयलें. ह्या महाविद्यालयांत कोंकणी शिकयताले.

इ.स. १५५५ त फ्रांसिस्कनांनी रेइश मागुश हांगा तांचें महाविद्यालय सुरू केलें. पोरनें गोंय हांगा १७ व्या शतमानांत 'बोअ व्हेन्तूरा' महाविद्यालयाची थापणूक जाली. त्याच शारांत इ.स. १५५० त डॉमिनिकन्सांनी सेंट थॉमस ॲक्विनास महाविद्यालय चालू केल्लें. आगुस्तीनीयन आनी कार्मेलायट्स हांणीय आपापलीं महाविद्यालयां सुरू केलीं. युरोपांत 'रेनासान्स' जाल्याउपरांत थंयच्या संस्थांचेर परिणाम जावन थंय विज्ञान, तंत्रगिन्यान आनी गिन्यानाच्या हेर शाखांची उदरगत जावंक लागली; पूण गोंयच्या कॅथलिक धर्माच्या प्रभावाखाला आशिल्ल्या शिक्षणसंस्थांक नव्या गिन्यानाची सुलूस लागलीना. १९ व्या शतमानांत तर हांगाचो अभ्यासक्रम सामको पोरनो जावन मरणाच्या दारांत पावलो आनी पोर्तुगालाच्या उदारमतवादी सरकारानूय तांकां कांयच पालव दिलो ना. मार्केश द् पोम्बाल (१७५०-१७७७) हाणें उदारमतवादी आनी वैज्ञानिक शिक्षणाची सुरवात केली. गोंय मुक्ततायेवेळार १९६१ त जरी गोंयांत उंचेल्या पांवड्यावेलें शिक्षण दिवपी एकूय संस्था नाशिल्ली, तरी एक वैजकी शाळा, एक लिसेव आनी बऱ्योच इंग्लीश शाळा आशिल्ल्यो.

**भाशा:** गोंयांत पोर्तुगेजांचें भाशेविशींचें धोरण काळाप्रमाण बदलत गेलें. सुर्वेच्या काळांत किरिस्तांव धर्मतत्त्वां लोकांक तांच्या स्वताचे भाशेंतल्यान समजावन दिवपाखातीर मिशनरी कोंकणी शिकूंक बरेच फुडाकार घेताले. फुडें पाद्री आनी मिशनरी जावंक सोदपी विद्यार्थ्यांखातीर राशोलच्या महाविद्यालयांत कोंकणीचो खासा अभ्यास-क्रम चलतालो. पूण १७ व्या शतमानामेरेन धर्मीक अधिकार, खास करून फ्रांसिस्कन कोंकणीची पर्वा करी नासले. तांणी सरकाराक लोकांचेर पोर्तुगेज भाशेची सक्ती करपाची बुद्द दिली. १७ व्या शतमानाचे सुर्वेच्या वर्सांनी एका हुकुमनाम्यावरवीं सगळे सरकारी दस्तऐवज पोर्तुगेज भाशेंतल्यान बरोवचे अशें थारलें. इ.स. १६८४ त सगळ्या लोकांनी तीन वर्सांभितर पोर्तुगेज भाशा शिकची अशें फर्मान आयलें. इ.स. १७३२ तल्या दुसऱ्या एका फर्मानावरवीं बामण आनी चाड्डे हांणी स म्हयन्यांभितर आनी हेरांनी एका वर्साभितर पोर्तुगेज शिकून घेवची, अशें कळीत केलें. पोर्तुगेज भाशा कळ्ळयाबगर खंयच्याच जोडप्याक लग्नाची मान्यताय मेळनाशिल्ली. थळाव्या भाशांतलें साहित्य तर १६ व्या शतमानाच्या मध्यार नश्ट करुन उडयल्लें. १९ व्या शतमानांत उदारमतवादी सत्तेर येतकच आनी धर्मसंस्थांचो प्रभाव उणो जातकच कोंकणीक अधिकृतपणान मान्यताय मेळूंक लागली. १९ व्या शतमानाच्या मध्याक जे. एच्. दा कून्य रिव्हार हो गोंय सरकाराचो मुखेल सचिव आशिल्लो. ताणें कोंकणीखातीर बरोच वावर केलो.

**छापणावळ:** भारतांत पयले फावट छापखानो हाडपाचें श्रेय पोर्तुगेजांक वता. सेंट पॉल्स कॉलेज, पोरनें गोंय हांगा इ.स. १५५६ त छापखानो सुरू केलो. धर्मीक साहित्य छापून ताचो प्रचार करपाखातीर ह्या छापखान्याचो १६ व्या आनी १७ व्या शतमानांत उपेग जातालो. इ.स. १६७५ ते १८२० मेरेन कसलोच छापणावळीचो वावर जालोना. फुडें छापखानो राजकी, वैज्ञानिक आनी धर्मनिरपेक्ष हेर म्हायती छापपाखातीर वापरूंक लागले. इ.स. १८२१ त सरकारी परिपत्रक आयल्याउपरांत भौशीक आनी खाजगी नेमाळीं उजवाडाक येवंक लागलीं.

**समाजजीण:** पोर्तुगेजांनी गोंयकारांचे समाजीक जीणेचेर बरेच परिणाम केलो. किरिस्तांवकरण करपाचे प्रक्रियेंतल्यान अस्तंतीकरण जावंक लागलें. तांचो मुखेल उद्देश गोंयकारांक देशभश्टे करपाचो आशिल्लो. १६ व्या शतमानांतल्या धर्मीक कायद्यांचो उद्देश गोंयकार हिंदूंची जिवितपध्दत इबाडपाचो आशिल्लो. इन्क्विझीशनांतल्यान आयिल्ल्या नेमांवरवीं आनी कायद्यांवरवीं किरिस्तांव जाल्ल्या मूळ हिंदूंक आपली जेवणखाणाची पध्दत, भेस, संगीत, चालीरिती आनी शिश्टाचार बळयां बदलूंक लायले. पूण १९ व्या आनी खास करून २० व्या शतमानांतल्या उदारमतवादाच्या परिणामाक लागून किरिस्तांव धर्म हो राज्य धर्म उरलोना आनी धर्मांतर केल्ल्या लोकांच्या वंशजांनी आपल्या पोरन्या परंपरांकडेन पर्थून लक्ष दिवंक सुरवात केली. ह्या काळांत गोंयकारांमदीं राश्ट्रवादाची भावनाय ल्हवल्हव वाडीक लागताली.

गोंयांत सती पध्दतीचेर बंदी हाडपाचें श्रेय पोर्तुगेजांक वता. तेभायर बायलांक आस्पतीच्या वांट्याचो हक्क, विधवांचीं लग्नां, समान नागरी

## गोंयमुक्तीउपरांतची शिक्षणीक उदरगत (१९६१-६२ ते १९८४-८५)

| क्र | संस्थेचो प्रकार | १९६१-६२ | | | १९८४-८५ | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | | संस्थांचो आंकडो | शिक्षकांचो आंकडो | विद्यार्थ्यांची संख्या | संस्थांचो आंकडो | शिक्षकांचो आंकडो | विद्यार्थ्यांची संख्या |
| | **अ** *शाळेंतलें शिक्षण* | | | | | | |
| १. | मुळावो पांवडो | ४७६ | १,२०६ | ५३,६०७ | १,२७५ | ४,४८८ | १,३४,८५३ |
| २. | मदलो पांवडो | - | - | - | ४३५ | २,५३१ | ८५,०६४ |
| ३. | माध्यमिक पांवडो | ९५ | ३४१ | ९,२६० | २९४ | २,९७७ | ५६,०१६ |
| ४. | उच्च माध्यमिक पांवडो | १ | ४० | ९२१ | २२ | ३३२ | ११,०२२ |
| | वट्ट | ५७२ | १,५८७ | ६३,७८८ | २,०२६ | १०,३२८ | २,८६,९५५ |
| | **ब** *उच्च शिक्षण* | | | | | | |
| ५. | गोंय विद्यापीठ | - | - | - | १ | २४ | ३१३ |
| ६. | वैजकी महाविद्यालय | १ | १७ | ११७ | १ | ९१ | ४३२ |
| ७. | फार्मसी महाविद्यालय | १ | ३ | १९ | १ | १८ | १७० |
| ८. | दंत महाविद्यालय | - | - | - | १ | १४ | १०३ |
| ९. | अभियांत्रिकी महाविद्यालय | - | - | - | १ | ४७ | ४६९ |
| १०. | कला, विज्ञान आनी वाणिज्य | - | - | - | ९ | ४५९ | १२,९६२ |
| ११. | कायदो महाविद्यालय | - | - | - | २ | १८ | ९१६ |
| १२. | चित्रकला महाविद्यालय | - | - | - | १ | १९ | १२२ |
| १३. | तंत्रनिकेतन | - | - | - | १ | ४२ | ६४२ |
| १४. | शिक्षक प्रशिक्षण महाविद्यालय (पदवी) | - | - | - | १ | १४ | १२२ |
| १५. | शिक्षक प्रशिक्षण महाविद्यालय (पदवीका) | १ | ४ | ७७ | ४ | ५३ | ९९४ |
| १६. | जहाज बांदावळ संस्था | - | - | - | १ | २३ | ११९ |
| १७. | परिचारीका शिक्षणक्रम | १ | - | ४२ | १ | १६ | १५७ |
| | वट्ट | ४ | २४ | २५५ | २५ | ८३८ | १७,५२१ |
| | **क** *हेर संस्था* | | | | | | |
| १८. | उद्योगिक प्रशिक्षण संस्था (I.T.I) | - | - | - | १४ | २६८ | ३,८४४ |
| १९. | फूड क्राफ्ट इन्स्टीट्युट | - | - | - | १ | १४ | ७२ |

कायदो ह्या सारक्यो सुदारणाय प्रचलित जावन उरिल्ल्यो. जातीचो प्रस्न सोडोवंक मात तांकां अपेस आयलें.

- डॉ. बी. एस्. शास्त्री

**गोंयमुक्ती चळवळीचो इतिहासः** भारतांतल्या लोकांनी इ.स. १५१० सावन गोंयांत पावल दवरल्या उपरांत पोर्तुगेजांक विरोध करूंक सुरवात केल्ली. इ.स. १५८०-८५ ह्या काळांत कुंकळ्ळी, असोळणें, वेळ्ळी, आंबेली ह्या साश्टीच्या शिमवाठारांतल्या लोकांनी आपलीं देवळां, मूर्ती हांची राखण करपाखातीर धर्मछळाक लागून गोंय सोडून वचचेपयलीं बऱ्याच गोंयकारांनी पोर्तुगेजांआड खर झूज दिलें. इ.स. १७८७ त पिंटोंचें बंड जालें. एकुणिसाव्या शतमानांत सत्तरींतल्या राज्यांचें बंड हें बरेंच म्हत्वाचें आसा. राणे हे सत्तरींतले परंपरागत जमीनदार. इ.स. १७८८ त जेन्ना सावंतांकडल्यान पोर्तुगेजांनी सत्तरी वाठार घेतलो तेन्ना राण्यांच्या सगळ्या हक्कांची जतनाय जातली, अशें तांकां पोर्तुगेजांकडल्यान आश्वासन मेळिल्लें. पूण हें आश्वासन विसरून पोर्तुगेजांनी थंय आपलो शेक चलोवंक सुरवात केली. इ.स. १८५२ त जाल्ल्या दिपाजी राण्याच्या बंडान पोर्तुगेज सत्तेक बरोच व्हड धपको दिलो. पोर्तुगेजांनी राण्यांच्यो जमनी आपल्या हातांत घेवन थंय आपले कायदे हाडूंक सुरवात केल्ली. दादल्यांक पँट घाल्याबगर आनी बायलांक पोलके घाल्याबगर गांवांनी वा शारांनी भोंवपाक मनाय केली. हाचो परिणाम गरीब लोकांचेर जातालो आनी पोर्तुगेज लोक ह्या कायद्याचो आपल्याक जाय तसो लाव घेताले. दिपाजी राण्यान बंड करून पोर्तुगेजांक आव्हान दिलें. ताणें सांखळे वाठारांतलो नाणुसचो किल्लो घेवन थंय आपलें मुखेल ठाणें केलें. उपरांत दिवचल, फोंडें, हेमाडबारशें आनी काणकोण वाठारांनी घुरयो घालूंक सुरवात केली. थंयसावन ताणें पोर्तुगेज सैन्याक धांवडावन घाले. लोकांचें बरेंच फाटबळ राण्याक मेळ्ळें आनी राण्यान कुंभारजुंवें वाठारांत पावल दवरलें. पोर्तुगेज गोव्हेर्नादोरान स्वता सैन्याचें फुडारपण करून राण्याक धरपाचो यत्न केलो, पूण ताचो पराभव जालो. हें बंड साडेतीन वर्सांमेरेन चल्लें. सरकाराचो खजिनो हें बंड काबार करपाखातीर रितो जालो. इ.स. १८५५ त पोर्तुगेज गव्हर्नादोर औरैं हाका राण्यांचें आव्हान पेलनाशें जावन निवृत्त जावचो पडलो. विधीमंडळान सत्ता हातांत घेतली आनी राण्यावांगडा बरेपण जोडपाचे नदरेन ताका मानाचो भेस आनी तरसाद भेटयली. ताच्या नांवामुखार 'कापितांन' (कॅप्टन) ही भोवमानाची पदवी लायली.

इ.स. १८७०-७१ त सैन्यांत बरोच बोवाळ जालो. राण्यांचें बंड सोंपतकच पोर्तुगेजांक सैन्याची गरज चड आसा अशें दिसलेंना आनी तांणी सैनिक उणें करूंक सुरवात केली. हे गजालीक लागून सैनिकांनी दोन खेप उठाव केले. हे उठाव पोर्तुगालांतल्यान खासा सैनिक हाडून चिड्डून उडयले. इतले मजगतीं *कुश्टोबा राणे (*)* हाणें बंड करपाचें थारायलें. ताणें गिरेस्तांक लुटून गरीबांक आनी तांच्या अनुयायांक ती संपत्ती वांटली. निमणें ताका आनी ताचो वांगडी शांबा देसाय हाका इ.स. १८७१ त पोर्तुगेजांनी धरलो. इ.स. १८९५ त पोर्तुगेजांनी सत्तरींतल्या शेतकामत्यांकडल्यान कर घेवंक सुरवात केल्ल्यान *दादा राणे (*)* हाणें तांचेआड बंड केलें. फ्रांसिस्कु आल्वारीस ह्या पाद्रीन राण्याच्या बंडाक फाटबळ उक्तायलें. तेन्ना ताका बंदखणींत घालो.

दादा राण्यान नाणूस किल्लो घेवन बारदेस वाठारांत पावलां मारूंक सुरवात केली. पोर्तुगेजांनी पुराय गोंयांत लश्करी कायदो लागू करून बंड काबार करपाची तयारी केली. कापितांन गोमिस द कोश्ता हाच्या फुडारपणाखाल तांणी राण्याचेर घुरी घाली पूण सत्तरींतल्या दाट रानांनी पोर्तुगेज सैनिकांक राण्यांआड झुजप शक्य जालें ना. शंकराचार्य ह्या हिंदू धर्माच्या फुडाऱ्याक मध्यस्त दवरून पोर्तुगेजांनी राण्यांवांगडा शांततायेची कबलात केली. फुडें वाळपय हांगा पोर्तुगेज सैन्याच्या एका कमांडराचो खून जालो. चवकशेंतल्यान दादा राण्यान हो खून घडोवन हाडला अशें सिध्द जालें आनी दादा राण्याक तिमोर हांगा बंदिवासांत दवरलो.

राण्याचें आनीक एक बंड इ.स. १९१२ त जालें. करांआड दाद मागपी राण्यांचेर पोर्तुगेज अधिकारी शेक गाजोवंक लागले आनी तांच्या प्रस्नांचेर उपाय काडचे बदला तांकां चड त्रास करूंक लागले. तेन्ना राणे आनी तांचे सुमार ४०० वांगडी हांणी उठाव केलो. लिस्बन सावन खासा सैन्य आनी शस्त्रां हाडून पोर्तुगेजांनी क्रूरपणान हो उठाव मोडलो आनी राण्यांक आफ्रिकेंत बंदखणींत घाले. इ.स. १९२६ पोर्तुगालांत एकाधिकारशाय आयल्या उपरांत सैनिकांचें एक बंड जालें. सैनिकांच्या पगारांत कपात करपी तेन्नाचो गव्हर्नर टिटो मोरायस हाका सत्तेवयल्यान काडून उडोवन कर्नाल आर्थुर सिकैरा हाणें स्वताच्या सरकाराची थापणूक केली. पोर्तुगेज सरकारान ह्या गोंयच्या नव्या सरकाराक मान्यताय दिली ना आनी सिक्वेरा हाका पर्थून पोर्तुगालांत आपोवन घेतलो.

इतले मजगतीं गोंयच्या लोकांमदीं राष्ट्रवादाचे विचार पातळटाले. इ.स. १९२८ त *दोतोर त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्य (*)* हाच्या फुडारपणाखाल गोंय काँग्रेस समितीची थापणूक जावन तांणी स्वतंत्रताय मेळोवपाखातीर अहिंसक तत्त्वां आपणावचें थारायलें. *लुईश मिनेझिश ब्रागांझ (*)* सारकिल्या राष्ट्रवाद्यान पोर्तुगेज कायद्यांआड उक्तेपणान विरोध केलो.

मार्च १९४६ त, मुंबय हांगा गोंयचे सुटके झुजाऱ्यांची आनी मुंबयच्या गोंयकारांची बसका जावन तातूंत पोर्तुगेजांनी बेगोबेग गोंय, दमण आनी दीव सोडून, वचचें अशी मागणी जाली.

१८ जून १९४६ दिसा *डॉ. राममनोहर लोहिया (*)* हाच्या फुडारपणाखाल गोंयांत नागरी हक्क चळवळ सुरू जाली. ही चळवळ अहिंसक आशिल्ली. हे चळवळीच्या फुडाऱ्यांक अटक करून तांचेर विंगडविंगड खटले भरले. बऱ्याच जाणांचेर अत्याचार जाले. इ.स. १९४७ त भारताक स्वतंत्रताय मेळ्ळ्या उपरांत पोर्तुगेजांनी गोंयची चळवळ काबार करपाखातीर खर उपाय येवजून आफ्रिका आनी युरोपांतल्यान चड सैन्य गोंयांत हाडलें. संयुक्त राश्ट्रसंघाकडेन गोंय मुक्ततायेचो प्रस्न सोपोवंक तांणी न्हयकार दिलो.

१८ जून १९५४ दिसा पोर्तुगेज सरकारान ४० परस चड नामनेच्या गोंयकारांक अटक केली आनी तांकां वेगवेगळे उपाय काडून त्रास दिवंक सुरवात केली. हे अटकेची खबर मुंबयतल्या गोंयकारांमदीं पातळ्ळी आनी थंय दोतोर टी. बी. कुन्य हाच्या फुडारपणाखाल गोंय राष्ट्रीय काँग्रेस द युनायटेड फ्रंट ऑफ गोअन्स, गोअन पीपल्स पार्टी आनी *आझाद गोमंतक दल (*)* ह्या गोंयचे सुटकेखातीर वावुरपी संघटनांची बसका जाली. ह्या सगळ्यांनी एकठांय येवन पोर्तुगेजांच्या शेकातळा आशिल्ल्या दादरा नगर हवेलीची मुक्तताय केली. ऑगस्ट १९५५ त, गोंयांत गोंयांभायल्यान येवपी सत्याग्रहींच्या पंगडाचेर गुळयो घालून पोर्तुगेज सैनिकांनी कितल्याशाच जाणांक मारून उडयले. त्याच वर्सा भारतान पोर्तुगालावांगडचे आपले राजनैतिक संबंद तोडून उडयले. इतले मजगतीं गोंयांतूय ल्हान-व्हड हिंसक आनी अहिंसक उठाव चालूच आशिल्ले. निमाणे १९ डिसेंबर १९६१ दिसा भारत सरकारान 'ऑपरेशन विजय' नांवाखाला गोंयांत सैन्य धाडून गोंयची मुक्तताय केली.

**मुक्ततायेउपरांतचो काळः** गोंय स्वतंत्र जाल्याउपरांत पोर्तुगेजांचो निमाणो गोव्हेर्नादोर व्हासालु इ सिल्व्हा वचून मेजर जनरल के. पी. कँडेथ हो गोंयचो लश्करी राज्यपाल जालो. १९६२ त तो वचून टी. शिवशंकर गोंयांत नवो नायब राज्यपाल म्हूण आयलो. त्याच वर्सा ऑक्टोबर म्हयन्यांत गोंय, दमण, दीवच्या १४९ ग्रामपंचायतींखातीर वेंचणुको जाल्यो. उपरांत ९ डिसेंबर १९६३ दिसा पयलेफावट मुक्त गोंयांत विधानसभा आनी संसदेच्यो वेंचणुको जाल्यो. ह्या वेंचणुकांनी महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाक जैत मेळ्ळें. भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेस, युनायटेड गोअन्स पक्ष आनी फ्रेंति पोपुलार हे पक्ष वेंचणुकेंत देंविल्ले. विधानसभेच्या वट्ट तीस सुवातींतल्यो १४ महाराष्ट्रवादी गोमन्तक पक्षाक, १२ युनायटेड गोअन्स पक्षाक, १ काँग्रेस पक्षाक आनी हेरांक ३ सुवाती मेळ्ळ्यो. दयानंद बांदोडकार गोंयचो पयलो मुखेलमंत्री जालो. सप्टेंबर १९६३ त, गोंयांत एम्. आर. सचदेव हो नवो नायब राज्यपाल जालो. पूण रोखडोच ताच्याफाटल्यान हरी शर्मा आनी के. आर. दामले हे

दोन नायब राज्यपाल थोड्या काळाखातीर येवन गेले. गोंयचें अस्तित्व स्वतंत्र दवरचें काय ताका महाराष्ट्रांत विलीन करचें, ह्या प्रस्नाचेर गोंयांत बरोच व्हडलो बोवाळ जालो. १९६७ त, ह्या प्रस्नाचेर सार्वमत (ओपिनियन पोल) घेतलें. ओपिनियन पोलांत गोंयचें स्वतंत्र अस्तित्व आसूंक जाय, ह्या मतावटेन गोंयकारांनी कौल दिलो. ओपीनियन पोलांत वट्ट ३,१७,६३३ जाणांनी मतदान केल्लें. हातूंतल्या गोंयच्या विलीनीकरणाक १,७२,१९१ जाणांनी विरोध केलो जाल्यार १,३८,१७० जाणांनी विलीनीकरणाक तेंको दिलो. अशे तरेन गोंय एक केंद्रशासित प्रदेश म्हूण ताचें स्वतंत्र अस्तित्व तिगून उरलें. इतले मजगतीं गोंयचो नायब राज्यपाल म्हूण नकुल सेन आयलो. १९६७ त विधानसभेच्या ३० आनी लोकसभेच्या २ सुवातींखातीर वेंचणुको जाल्यो. ह्या वेंचणुकांनी महाराष्ट्रवादी गोमन्तक पक्षाक १६ सुवाती मेळून दयानंद बांदोडकार पर्थून मुखेलमंत्री जालो. युनायटेड गोअन्स पक्षाक १२ सुवाती मेळ्ळ्यो. १९६९ त गोंयांत पयलेच फावट १३ नगरपालिकांखातीर वेंचणुको जाल्यो. १९७२ त जाल्ल्या तिसऱ्या विधानसभा आनी लोकसभा वेंचणुकांनी महाराष्ट्रवादी गोमन्तक पक्षाकूच पर्थून जैत मेळ्ळें. दयानंद बांदोडकार मुखेलमंत्री जालो. १९७२ त शिशिरकुमार बॅनर्जी हो गोंयचो नवो राज्यपाल म्हूण आयलो. १२ ऑगस्ट १९७३ दिसा दयानंद बांदोडकाराक मरण आयलें आनी ताचे सुवातेर शशिकला काकोडकार हिची मुखेलमंत्रीपदार नेमणूक जाली. १९७७ त गोंयांत पर्थून वेंचणुको जाल्यो. ह्या वेंचणुकांनी महाराष्ट्रवादी गोमन्तक पक्षाक जैत मेळून शशिकला काकोडकार मुखेलमंत्री जाली. शशिकला काकोडकार हिच्या आड तिच्या पक्षांतल्या आमदारांनीच बंड केलें आनी तिचें मंत्रीमंडळ गडगडलें. १९७९ त गोंयांत राश्ट्रपती राजवट आयली. ह्या वेळार प्रतापसिंग गिल गोंयचो नायब राज्यपाल आशिल्लो. १९८० त गोंयांत ३० विधानसभेच्या आनी २ लोकसभेच्या सुवातींखातीर जाल्ल्या वेंचणुकांनी पयलेच फावट महाराष्ट्रवादी गोमन्तक पक्षाक अपेस आयलें. २० सुवातो मेळोवन काँग्रेस (अरस) सत्तेर आयली. प्रतापसिंग राणे मुखेलमंत्री जालो.

ह्या वेंचणुकां उपरांत रोखडोच काँग्रेस (अरस) पक्ष, काँग्रेस (आय) पक्षांत विलीन जालो. १९८४ त जाल्ल्या वेचणुकांनीय काँग्रेस (आय) पक्षाकूच जैत मेळ्ळें. प्रतापसिंग राणे पर्थून मुखेलमंत्री जालो. इतलेमजगतीं प्रतापसिंग गिल हाचेफाटल्यान गोंयांत जगमोहन, के. टी. सताखाला हे नायब राज्यपाल जावन गेले. मदल्या थोड्या काळाखातीर इद्रीस लतीफ ह्या महाराष्ट्राच्या राज्यपालान गोंयचो कारभार पळेलो. १९८४ त गोपालसिंग नायब राज्यपाल जालो. १९८६ त गोंयांत कोंकणी राज्यभाशा करची आनी गोंय घटक राज्य जांवचें हाचेखातीर व्हडलें आंदोलन जालें. ५ फेब्रुवारी १९८७ दिसा कोंकणी गोंयची राज्यभास जाली आनी ३१ मे १९८७ दिसा गोंयाक घटकराज्याचो पांवडो प्राप्त जालो. जानेवारी १९९० त जाल्ले वेंचणुकेंत काँग्रेस (आय) पक्ष पर्थून सत्तेर आयलो.

**राज्यवेवस्था:** पोर्तुगेज गेल्याउपरांत गोंय, दमण आनी दीव हांचेवांगडाच दादरा आनी नगरहवेलीचें प्रशासन गोंयच्या राज्यपालावरवींच चलतालें. घटक राज्याचो पांवडो मेळचेपयलीं हांगा दमणचो एक आनी दीवचो एक धरुन वट्ट ३० मतदारसंघ आशिल्ले. घटक राज्याचो पांवडो मेळ्ळ्या उपरांत दमण आनी दीव वेगळे जाले आनी गोंयच्या मतदारसंघांचो आंकडो ४० केलो. तशेंच दादरा आनी नगरहवेलीचें प्रशासन गोंयच्या राज्यपालांच्या हाताभायर उरून थंय आतां केंद्रशासित प्रशासन चलता. लोकसभेचे दोन मतदारसंघ जाल्यार राज्यसभेचो एक वांगडी वेंचपाचो हक्क गोंयांत आसा. सद्या गोंयांत ११ तालुके आसात. प्रशासनाचे नदरेन उत्तर आनी दक्षिण अशे दोन जिल्हे आसात. दरेक जिल्ह्याचे कारभार चलोवपाखातीर जिल्हाधिकारी आसात. तांच्या हातसकयल उपजिल्हाधिकारी आसतात. तालुक्यांचो कारभार मामलेदारांवरवीं चलता. व्हडल्या शारांनी नगरपालिका आसात. १९७९ मेरेन गोंयांत ११ नगरपालिका आशिल्ल्यो. नगरपालिकांचेर प्रतिनिधींची वेंचणूक दर पांच वर्सांनी जाता. गांवगिऱ्या वाठारांनी प्रशासन पंचायतीवरवीं चलता. १९७९ मेरेन गोंयांत वट्ट १८० ग्रामपंचायती आशिल्ल्यो. पंचायती आनी नगरपालिकांचेर विधीमंडळाच्या मंत्रीमंडळाचें नियंत्रण आसता. हे भायर राज्यकारभाराक आदार दिवपी गांवांतली एक म्हत्वाची संस्था म्हळ्यार *कोमुनिदाद (*)* ही बरीच पोरनी संस्था आयजमेरेन वावर करता.

न्यायवेवस्थेचो कारभार चलोवपाखातीर गोंयांत मुंबय उच्च न्यायालयाचें खंडपीठ आसा. पणजी हांगा आशिल्लें हें खंडपीठ म्हळ्यार गोंयचें सगळ्यांत उंचेल्या पांवड्यावयलें न्यायालय आसा. हेभायर जिल्हो आनी सत्र न्यायालयां गोंयांत आसात. गोंयचे पोलीस यंत्रणेचें मुखेल केंद्र पणजी हांगा आसा. म्हत्वाच्या शारांनी पोलीस ठाणीं आनी हेर बरेचकडेन पोलीस चौक्यो आसात. इन्स्पेक्टर जनरल ऑफ पोलीस हो गोंयचो पोलीसदलांतलो सगळ्यांत उंचेलो हुद्दो.

गोंयचें विधीमंडळ फकत एका घराचें आसा. हांगा फकत विधानसभा आसा. विधानसभेंत विधिमंडळ विधेयकां संमत करता. हीं विधेयकां राश्ट्रपतीचे वतीन गोंयच्या राज्यकारभार चलोवपी राज्यपालांवरवीं राश्ट्रपतीचे मंजुरीखातीर वतात. राज्यकारभार वेवस्थित चलचो हाकालागून मंत्रीमंडळाभितर खातीं वांटप आसा आनी त्या त्या खात्याचो मंत्री तांकां वांटून दिल्लो कारभार पळेता. ह्या कामाखातीर तांकां मुखेल सचिव, त्या त्या खात्याचे उपसचिव आनी हेर अधिकारी पालव दितात.

**येरादारी आनी संचारण:** गोंयांत १९८२ मेरेन ५,७८६ किमी. लांबायेचे रस्ते बांदून जाल्यात. NH4A आनी NH17 हे दोन राश्ट्रीय महामार्ग गोंयांत आसात. रस्त्याच्या मार्गांतल्यान गोंयचो भारतांतल्या बऱ्याच राज्यांतल्या मुखेल शारांकडेन संपर्क येता. गोंय-मुंबय, गोंय-मंगळूर, गोंय-पुणे, गोंय-बंगळूर, गोंय-हैद्राबाद हेसारकी थेट बससेवा आसा. १९८४ मेरेन गोंयांत ५६,१३० वाहनांची नोंद जाल्ली. मुरगांव ते कॅसलरॉक मेरेन गोंयांत रेल्वेमार्ग आसा. ह्या रेल्वेमार्गाची वट्ट लांबाय ८२ किमी. आसून ताचेर १४ रेल्वेस्थानकां आसात. मुरगांव हांगा भारतांतलें सगळ्यांत व्हडलें सैमीक बंदर आसा. मांडवी, जुवारी ह्यो न्हंयो येरादारीखातीर बऱ्योच उपेगाच्यो आसात. ह्या न्हंयांतल्यान प्रवासी येरादारीवांगडाच खनिज संपत्तीची येरादारी व्हड प्रमाणांत जाता. साळ, कोलवाळ ह्योय न्हंयो येरादारीचे नदरेन म्हत्वाच्यो आसात. गोंयांत पयलींसावन न्हंयांतल्यान येरादारी चलता. फेरीबोटींनी जावपी येरादारीक लागून बऱ्याच वाठारांचो एकमेकांकडेन संपर्क येता. गोंय ते मुंबय अशी बोटींतल्यान बरींच वर्सांसावन येरादारी जाता. पावसाचे चार म्हयने सोडल्यार मुंबय-गोंय (पणजी) बोटसेवा वर्सभर चालू आसता. गोंयांतल्यान मुंबय, दिल्ली आनी बंगळूर ह्या शारांनी विमान सेवेची वेवस्था आसा. हालींच्या काळांत कुवेटसावन थेट गोंयमेरेन विमानसेवा सुरू जाल्या. गोंयांत दाबोळी हो एकूच विमानतळ आसा.

१९८४ मेरेन गोंयांत २५३ डाकघरांची नोंद जाल्ली. त्याच वर्सा १२,४५६ दूरध्वनींचीय नोंद जाल्ली. गोंयच्या मुखेल शारांनी दूरध्वनी वेवस्था बरे तरेन जावची हाका लागून दूरसंचारण टॉवर आसात. गोंयांत आकाशवाणी पणजी हें रेडिओ केंद्र आसा. ताचेवयल्यान कोंकणी, मराठी, इंग्लीश, पोर्तुगेज आनी हिंदी भाशांतल्यान कार्यावळी जातात. दूरदर्शन केंद्र आल्तिनो, पणजी हांगा २३ जून १९९० दिसा सुरू जालें. मुंबय दूरदर्शनाच्यो कार्यावळी गोंयांत प्रसारित जातात. हालींच गोंयच्या दूरदर्शन केंद्रावयल्यान दिसाक अर्दवर अशी कोंकणी कार्यावळ वितरायतात. हें प्रसारण पणजी हांगाच्या रिले केंद्रावयल्यान जाता. गोंयांत ३ इंग्लीश, ४ मराठी आनी १ देवनागरी कोंकणी अशीं दिसाळीं उजवाडाक येतात. हे भायर ह्या सगळ्या भाशांतल्यान विंगडविंगड विशयांक ओंपिल्लीं बरींच नेमाळीं गोंयांत उजवाडाक येतात. प्रेस ट्रस्ट ऑफ इंडिया, युनायटेड ट्रस्ट ऑफ इंडिया हांचे वांगडा बऱ्याच राश्ट्रीय

थरावयल्या खबरांपत्रांचीं कार्यालयां गोंयांत आसात.

**शिक्षणः** गोंय स्वतंत्र जावंचेपयलीं पोर्तुगेज अभ्यासक्रमाप्रमाण गोंयचें बरेचशें शिक्षण चलतालें. १९६१ उपरांत शिक्षणाच्या मळार बदल जावंक लागले. गोंय मुक्तीवेळार खाजगी आनी सरकारी पोर्तुगेज शाळांनी सरकारान मान्यताय दिल्लो अभ्यासक्रम शिकयताले, जाल्यार मराठी आनी इंग्लीश शाळांनी महाराष्ट्राचे धर्तेचेर अभ्यासक्रम आशिल्लो. माध्यमिक शाळा पुणे माध्यमिक शिक्षण मंडळाकडेन संलग्न आशिल्ल्यो. हें मंडळ अस्तित्वांत येवचेपयलीं, गोंयच्या विद्यार्थ्यांक मॅट्रिकचे परीक्षेखातीर मुंबय विद्यापीठाकडल्यान पालव मेळटालो. मुक्तीवेळावयल्या काळांत सगळ्या भाशांतल्यान वट्ट ५३,६०७ विद्यार्थी शिक्षण घेताले. १६७ खाजगी मराठी शाळांची शिक्षणखात्यांत नोंद जाल्ली, पूण नोंद जावनाशिल्ल्यो बऱ्योच मराठी शाळा गोंयांत आशिल्ल्यो. १५१ सरकारी आनी १०४ खाजगी पोर्तुगेज मुळाव्यो शाळा, ४ मराठी-पोर्तुगेज, १० उर्दू-पोर्तुगेज, ८ पुराय उर्दू आनी १७ इंग्लीश शाळा गोंयांत आशिल्ल्यो.

मुक्ततायेउपरांत रोखडेंच हें चित्र बदलून शिक्षणाच्या मळार बरीच उदरगत जाली. फुडें दिल्ल्या कोश्टकावयल्यान शिक्षणमळावयल्या हे उदरगतीचो अदमास येताः

स्वतंत्रतायेउपरांत गोंयचें माध्यमिक शिक्षण पुराय केल्या उपरांत मॅट्रिकचे परीक्षेखातीर पुणे बोर्ड परीक्षा घेतालो. उंचेल्या पांवड्यावयलें शिक्षण दिवपाच्या निमतान १९६२ वर्सा पणजी हांगा धेंपे कॉलेज ऑफ आर्ट्स अँड सायन्स आनी मडगांव हांगा एस्. पी. चौगुले कॉलेज ऑफ आर्ट्स अँड सायन्स ह्या महाविद्यालयांची थापणूक जाली. पणजी हांगा मुंबय विद्यापीठाच्या पदव्युत्तर केंद्रावरवीं उंचेल्या शिक्षणाचो कारभार चलतालो. १९६६-६७ वर्सासावन गोंयांत शासकीय तंत्रनिकेतन (polytechnic) सुरू जालें. त्याच काळांत उद्येगीक प्रशिक्षण संस्थांचीय थापणूक जाली. १९७५-७६ ह्या वर्सासावन गोंय माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शिक्षण मंडळ अस्तित्वांत आयलें आनी शालांत परीक्षा ताचेवरवीं जावंक सुरवात जाली. १९८६ त *गोंय विद्यापीठ (*)* अस्तित्वांत येवन उंचेल्या पांवड्यावयल्या शिक्षणाचो कारभार गोंयांतल्यानूच जावपाक लागलो.

**लोक आनी समाजजीणः** १९८१ चे जनगणनेप्रमाण धर्मीक नदरेन गोंयचे २,२०,४०० म्हळ्यार ६५.९०% हिंदू, ९५,०८९ म्हळ्यार २९.२८% किरीस्तांव आनी ३४,१३५ म्हळ्यार ४.४६% मुसलमान आसात. हेर धर्माच्या लोकांचें प्रमाण बरेंच उणें आसा. ह्या तीनूय धर्मांच्यो चालीरीती विंगडविंगड आसात.

हिंदू धर्मांत जल्मासावन धर्माच्या विधींक सुरवात जाता. सव्या दिसा सटी पूजतात. गांवगिऱ्या वाठारांनी ही प्रथा पयलीं बरीच प्रचलित आशिल्ली. पूण हालींच्या काळांत ती उणी जायत गेल्या. धा दीस मेरेन सुयेर पाळपाची प्रथा मात अजूनूय दिसून येता. बाराव्या दिसा भुरग्याचो बारसो करून ताका नांव दवरतात. द्रविड, सारस्वत, दैवज्ञ ब्राह्मण, वैश्य, उंचेल्या कुळांतले मराठे, मेस्त, कांसार ह्या समाजांत मुंज करतात. पयलींच्या काळांत मुंज ह्या प्रकाराचें बरेंच प्रस्थ आशिल्लें, पूण सद्या ही प्रथा नांवापुरतीच उरल्या. ल्हान भुरग्याचें जावळ काडपाची प्रथा मात आयजमेरेन बऱ्याच प्रमाणांत दिसून येता. हिंदू धर्मांत लग्नां जुळोवपाची पध्दत पयलींसावन प्रचारांत आशिल्ली. सद्या तरणाट्यांच्या मेकळेपणाक लागून प्रेमविवाहाक समाजांत मान्यताय मेळिल्ल्यावरी जाल्यां, तरी लग्नां जुळोवपाची पध्दत काबार जावंक ना. पयलीं चलयेची १२-१३ जाल्यार चल्याची सुमार २०-२२ ही लग्नाची पिराय अशें समजतालें. सद्या ती चलयांविशीं २५ आनी चल्यांविशीं सुमार ३० इतली जाल्या. लग्न जुळयतना प्रसाद घेवप, पत्रिका तपासप ह्या सारक्यो गजाली आयजमेरेन चलतात. साकरपुड्याची चाल जी पयलीं फकत उंचेले जातींत प्रचलित आशिल्ली, ती आयज सर्रासपणान चलता. लग्न धर्मीक पध्दतीन करपाची प्रथा बऱ्याच प्रमाणांत आसा. मानपान, दिवपघेवप ह्योय गजाली लग्नसुवाळ्यावरवीं जातात. घटस्फोटाचें प्रमाण गोंयच्या हिंदू समाजांत उण्या प्रमाणांत दिसून येता. लग्न जाल्याउपरांत व्हंकलेक घोवागेर वतना कपडो-लत्तो, वस्तू आनी भांगरशिंगर दिवपाची प्रथा आसा. मनीस मेल्याउपरांत ताचेर निमाणे संस्कार करपाच्या संबंदान सगळ्या जातींभितर एकसारकेपण आसा. सगळ्या जातींभितर प्रेतां लासपाची पध्दत आसा. पूण नवहिंदूंमदीं प्रेतां पुरपाची पध्दत आसा. गांवचे कुशीक हिंदूंखातीर प्रेतां लासपाची मसंड आसता. हालीं शारांनी मसंडी भोंवतणी वणत बांदून काडटात. प्रेत लासल्याउपरांत अस्थी काडून धर्मीक थळांच्या जाग्यार तांचें विसर्जन करतात. धा दिसांचें सुतक पाळटात. बाराव्या दिसा होम करून मेल्ल्या मनशाचें घर शुध्द करतात.

गोंयच्या हिंदू धर्मीयांचे कांय सण आनी परबो समाजीक आनी देवळांकडेन संलग्न जाल्यार कांय घरगुती प्रकारचे आसतात. कांय म्हत्वाचे सण अशे आसातः

*चवथ (*)* ही परब गोंय आनी पुराय कोंकणांत व्हडा दबाज्यान मनयतात. भाद्रपद शुध्द तृतीये दिसा गौरी आनी म्हादेव हांची पूजा जाता. चवथी दिसा सकाळच्या पारार गणपतीची मातयेची मूर्त हाडून तिची पूजा करतात. देड दीस दवरल्याउपरांत पंचमीदिसा गणपतीचें विसर्जन करतात. कांय लोक गणपती पांच, सात, णव, एकवीस दिसांमेरेन दवरतात. *दसरो (*)* आनी *नवरात्र (*)* हेय सण हिंदू समाजांत मनयतात. नवरात्रांच्या दिसांनी देवळांनी णव रातींक कीर्तन-भजनाच्यो कार्यावळी जातात आनी देवाची मूर्त शिंगारिल्ल्या मखरांत बसोवन तिका धोलयतात. दसऱ्या दिसा बोकडो, रेडो, कोंबो हांचे बळी दिवपाचे प्रकार बरेचकडेन चलतात. *दिवाळी (*)* हो उत्सवूय गोंयांत दबाजान मनयतात. आश्विन शुध्द चतुर्दशीदिसा तणाचें बावलें म्हळ्यार नरकासूर तयार करून ताका लासतात. नरकासुराक लासल्याउपरांत फांतोडेचेर न्हावन-धुवन फराळ खातात. आदल्या दिसासावन घरामुखार आकाशदिवो लावपाची पध्दत आसा. ह्या सणा फाटोफाट लक्ष्मीपूजन, पाडवो आनी भाऊबीज हे सण येतात. ह्या दिसांनी जावपी पाडव्याक गोरवांचो पाडवो (*) अशें म्हण्टात. ह्या दिसा गोरवां पोसपी लोक गोरवां-वासरांची पूजा करतात.

गोंयच्या हिंदूंमदीं व्हडा उमेदीन जावपी आनीक एक सण म्हळ्यार *शिगमो (*)*. हो भौशीक थरावेलो सण आसा. हाचे दोन प्रकार म्हळ्यार धाकलो शिगमो आनी व्हडलो शिगमो. धोल-ताशे आनी हेर वाद्यां वाजोवन मेळ भायर सरतात. होळीचोय प्रकार शिगम्याच्या दिसांनी जाता. शिगम्याच्या दिसांनी गांवांनी नाटकां जातात. हेभायर सरस्वतीपूजन, गोकुळाश्टम, रामनम, अनंतचतुर्दस ह्या सारके उत्सव गोंयच्या हिंदू समाजांत मनयतात.

गोंयकार हिंदूंचो भेस सादारणपणान पँट, शर्ट वा बुशकोट असो आसता. गांवगिऱ्या वाठारांनी कांय जाण्टे आयजमेरेन धोतर, जूदी, काश्टी असलो भेस करतना दिसतात. बायलां साडी न्हेसतात. णव वारी कापड न्हेसपाची पध्दत पोरनी जाल्या. आदल्या काळांत गावडा समाजांत 'देंठली' हो न्हेसणप्रकार आसलो. आयज तो प्रकार व्हडलोसो दिसना. हांगाच्या बायलांक भांगरा-शिंगराची बरीच आवड आसा.

मुखेल जेवणखाण म्हळ्यार शीत-कडी. गांवांनी रावपी गरीब लोक पेज, आंबील असलो आहार घेतात. सद्या हेर भारतीय लोकांकडेन आयिल्ल्या संपर्कांतल्यान गोंयच्या लोकांचो आहार बदलत गेल्याचें दिसून येता. मांसाहार आनी नुस्तें गोंयकारांच्या आहारांत सर्रासपणान दिसता.

भारतांतल्या हेर वाठारांपरस गोंयच्या बायलांक समाजांत चड मेकळीक आसा. पोर्तुगेजांनी हाडिल्ल्या समान नागरी कायद्याच्या परिणामाक लागून बायलांचें जिवीत चड मेकळेपणाचें जावंक पावलां. पयलीं देवळांच्या वाठारांनी चलपी देवदासी पध्दत नश्ट जावन गेल्या. हिंदू समाजांत सोरो निशिध्द आसा पूण समाजीक मेकळेपणाक लागून

सोरो पिवप, ही कांय प्रमाणांत आनी कांय समाजांभितर प्रतिश्ठेची गजाल जाल्या. जुगार खेळप ही मात गजाल वायट अशें मानतात.

अस्पृश्यतायेचो प्रस्न गोंयांत उण्याच प्रमाणांत आसा.

गोंयच्या किरिस्तांव समाजाचें वेगळेपण स्पश्टपणान दिसून येता. किरिस्तांवांच्या जिवितांत पयलो संस्कार म्हळ्यार 'बाप्तिस्मा'. जल्माउपरांत सादारण आठ दिसांभितर येवपी आयतारा भुरग्याक गांवचे इगर्जींत व्हरून ताका धर्माची दीक्षा दितात. हे दीक्षेउपरांत भुरगो पुरायपणान किरिस्तांव जाता. पिरायेच्या सातव्या वर्सा उपरांत दुसरो संस्कार जाता तो 'कन्फर्मेशन'. हो संस्कार बिशपाच्या हातांतल्यान जाता. आठ वर्सां पुराय जाल्याउपरांत 'कम्युनियन' जाता. ह्या वेळार भुरग्याक पाद्रीकडल्यान सोऱ्यांत पाव भिजोवन खावंक दितात. पापनिवेदन (कुमसार), लग्न (काजार), अधिकारप्रदान (ऑर्डिनेशन), आनी मरणसंस्कार (Anointing) हे किरिस्तांव धर्मांतले हेर संस्कार जावन आसात. पापनिवेदन हें इगर्जींत वचून थंयच्या पाद्रीलागीं करतात आनी केल्ल्या पापांक प्रायश्चित म्हूण पाद्री कांय नैतिक गजाली करूंक पापनिवेदन करतल्याक फर्मायता. किरिस्तांव धर्मांत लग्नापयलीं 'प्रीपेरेशन' हो विधी जाता. लग्न जावपी जोडप्याक पाद्री धर्मीक नदरेन लग्न म्हळ्यार कितें आनी घोव-बायलेचें कर्तव्य हाचेविशीं विवरसून सांगता. ताचेउपरांत एकाद्र्या थारायल्ल्या दिसा न्हवरो आनी व्हंकल इगर्जींत वतात. लग्ना दिसा खास 'मीस' आसता. लग्न जावचेपयलीं पाद्री दोगांयकडल्यान हयकार घेता आनी मागीर इगर्जींतल्या पुस्तकाचेर लग्नाची नोंद करता. हाचेर साक्षीदारांच्यो सयो घेता. घोव आनी बायल एकामेकांक मुदयो घालतात. उपरांत पाद्री दोगांकूय आशीर्वाद दिता. हिंदू लग्नपध्दतीवरी लग्नाच्या आदल्या दिसा न्हवरो-व्हंकलेक तेल लावपाची पध्दत आसा. ह्या विधीक रोस लावप अशें म्हण्टात. चुडो भरपाचीय पध्दत गोंयच्या किरिस्तांवांमदीं दिसून येता. लग्नविधी गांवचे इगर्जेंत वा कपेलांत जाता. व्हंकल लग्नादिसा धवे कपडे न्हेसता. ह्या विधीउपरांत बॅंडाच्या तालार डान्स जाता. जमिल्ल्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक सोरो आनी खाण-जेवण वांट्टात. जेवणा उपरांत बेसांव (आशीर्वाद) दिवपाचो विधी जाता. न्हवरो-व्हंकल घरच्या जाण्ट्या मनशांक आनी सोयऱ्यांक नमस्कार करून तांचेकडसून आशीर्वाद घेतात. किरिस्तांव समाजांत चलयेच्या लग्नाची पिराय सादारणपणान २५ ते २८ जाल्यार चल्याची पिराय ३० ते ३५ आसता. भोवजनसमाजांतल्या कश्टकरी लोकांमदीं लग्नाची पिराय उणी आसता. हिंदूप्रमाण किरिस्तांवांमदींय हुंड्याची प्रथा आसा. लग्न जाल्याउपरांत घोवागेर वतना व्हंकलेक कपडोलत्तो, हेर घरगुती सामान, भांगर ह्यो गजाली दितात. लग्ना आदीं 'मुदी' वा 'साकरपुडो' करपाची प्रथा ह्या धर्माच्या लोकांमदीं आसा.

किरिस्तांव धर्मांत मरणाउपरांत मनशाक पुरतात. पुरच्या आदीं ताका न्हाणयतात आनी बरे कपडे न्हेसयतात. हात जोडिल्ले अवस्थेंत ताच्या हड्ड्यार दवरतात आनी 'काशांव' हे पेटयेंत घालून ताका निमण्या दर्शनाखातीर घरांत दवरतात. चोवीस वरां प्रेत घरांत दवरल्याउपरांत तें भायर काडटात. ह्या वेळार इगर्जेंत वा कपेलांत 'साक्रीस्तांव' (इगर्जेतलो घांटी वाजोवपी मनीस) घांटी वाजयता. हाचेवयल्यान गांवांत कोण तरी मेला हें लोकांक समजता. उपरांत 'पेंदो' हो इगर्जेतलो म्हार गांवांत घांट वाजयत भोंवता आनी कोण मेला हाचेविशीं लोकांक सांगता. लोक, पाद्री आयल्या उपरांत बॅंडाच्या सुराचेर प्रेत भायर काडून इगर्जेंत हाडटात. पाद्री ताच्या आत्म्याक शांतताय मेळपाखातीर निमाणी प्रार्थना म्हण्टा आनी निमाणें प्रेताक शिमीतरींत व्हरून पुरतात. पाद्री पर्यंत थंय निमाणी प्रार्थना करता. जमिल्लो सगळो लोक एकेक मूठ माती काशांवाचेर घालतात. तिसऱ्या दिसा, सातव्या दिसा आनी तिसाव्या दिसा आनी एका वर्साउपरांत मेल्ल्या मनशाच्या नांवान इगर्जेंत खास 'मीस' करतात.

किरिस्तांव धर्माचे लोक दिसाक तीन फावट प्रार्थना करतात. दर दिसा सकाळचें आनी सांजेचें इगर्जींत मीस आसता. पाद्री 'सेर्मांव' (प्रवचन) दिता. आयतारा खास मीस आसता. हे भायर लग्न, जल्म, मरण आनी खासा उत्सव आनी सणांच्या दिसा मीस जाता.

किरिस्तांवांमदीं *नाताळ (ख्रिसमस) (*)* हो एक व्हडलो सण. डिसेंबर २४ आनी २५ हांचेमदले मध्यानरातीक जेजू जल्मलो. हाका लागून हो सण तीन दीस मनयतात. १ जानेवारीक वर्साचो पयलो दीस आनी ६ जानेवारीक जेजु क्रिस्तान स्वताक राजा म्हूण घोशित केल्लो दीस ते मनयतात. तांचो दुसरो व्हडलो सण म्हळ्यार इस्टर *(*)*. हाका 'पास्कां' अशेंय म्हण्टात. जेजू क्रिस्ताक मारून उडयल्या उपरांत तीन दिसांनी तो पर्यंन जितो जालो, हें सूचित करपी हो सण. *कार्निव्हाल (*)* हो एक मुखेल सण. ह्या सणाचें खाशेलेपण म्हळ्यार तीन दीस खावन पिवन मजा करप. गांवांगांवांनी कार्निवालाच्या दिसांनी लोक ही परब मनयतात.

गोंयांत मुसलमान धर्माचे लोक उण्या प्रमाणांत आसात. ब्रागांझ पेरैर हाच्या मतान गोंयच्या मुसलमानांमदीं बऱ्योच जाती आसात. पूण मुसलमान तज्ञांच्या मतान ह्यो जाती न्हय, तर तीं वेगवेगळीं घराणीं जावन आसात. हांच्यांत जातीभेदाचें प्रस्थ ना. हांचेमदीं पांच संस्कार आसतात. ते म्हळ्यार पैदाईश वा जल्म. भुरगें जल्माक आयल्याउपरांत मशिदींतलो पेश इमाम वा बांगी हाका आपोवणें धाडटात. तो येवन भुरग्याच्या दोनूय कानांनी कुराणांतले मंत्र म्हण्टा. उपरांत भुरग्याचे जिबेक म्हौंव लावन ताका नांव दवरतात. 'खला' वा 'सुन्नत' हो दुसरो संस्कार. हातूंत चल्या भुरग्याच्या जननेंद्रियाची फुडली कात कापून ताका पवित्र करतात. ह्या सुवाळ्या दिसा घरांत गोडशें करतात आनी सोयऱ्यां-धोयऱ्यांक आमंत्रण दिवन तांकां जेवण दितात. पिरायेच्या सुमार चवथ्या वर्सा भुरग्याक 'बिस्मील्ला' हो संस्कार करतात. हो संस्कार हिंदू धर्मांतल्या मुंजीवरीं आसता. ह्या संस्कारांतल्यान भुरग्याचें शिक्षण सुरू जाता. ताका सुर्वेक कुराणांतले पाठ शिकयतात. 'निकाह' वा लग्न हो तांचो चवथो संस्कार. लग्नाक मुसलमान धर्मांत एक समाजीक करार म्हूण म्हत्व आसा. लग्नविधी चलयेच्या घरा जाता. व्हंकलेक आनी न्हवऱ्याक लग्नाआदीं मेथी लायतात. गोंयच्या मुसलमानामदीं तेलहळद लावपाचीय प्रथा आसा. काजी मंत्रपठण करता आनी मागीर न्हवरो आनी व्हंकल हांकां हें लग्न पसंत आसा वा ना तें विचारता. दोगांयकडल्यान हयकार मेळटकच लग्न सुवाळो सोंपता. मुसलमानांच्या निमण्या संस्काराक 'वफात' अशें म्हण्टात. मेल्याउपरांत ताचे दोळे आनी तोंड बंद करून हातपाय सरळ करतात आनी ताका मक्केचे दिकेक तकली करून न्हिदयतात. प्रेत कबरस्तानांत व्हरचेपयलीं ताका न्हाणयतात. न्हावपाच्या उदकांत वासाचीं द्रव्यां घालतात. हे विधीक 'गुसूल' अशें म्हण्टात. प्रेत घरांतल्यान भायर काडटना कुराणांतले कांय खास मंत्र म्हण्टात. बायलांक अंत्ययात्रेक येवंक मनाय आसा. मशिदीच्या वाठारांत मेल्ल्या मनशाची कूड दवरुन सगळेजाण प्रार्थना करतात. उपरांत फोंड खणून प्रेताची तकली मक्केवटेन करून जमिल्ले सगळे लोक ताचेर तीन-तीन मुठी माती घालतात. ह्या वेळार मंत्रांचें पठण चालूच आसता. मरणाउपरांत तीन दीस मेरेन मेल्ल्या मनशागेर कुराण पठण जाता. ह्या दिसा गरीबांक दान करपाची पध्दत आसा. अंत्ययात्रेक आयिल्ल्या सगळ्या लोकांक आपोवन तांकां च्या-पाणी दितात. मरणाच्या णवव्या आनी चाळीसाव्या दिसा तशेंच तीन आनी स म्हयन्यांउपरांत मेल्ल्या मनशाच्या नांवान लोकांक जेवण दितात.

मुसलमानांमदीं मोहरम हो सगळ्यांत म्हत्वाचो सण. मोहरम हो मुसलमानांच्या वर्साचो पयलो म्हयनो. ह्या म्हयन्यातले पयले धा दीस मोहरमचो सण म्हूण मनयतात. हो सण दुखखाचो. प्रेषित महंमद पैगंबराच्या दोन नातवांच्या मरणाचो उगडास करपाखातीर हो सण मनयतात. बकरीद, रमजान इद वा इदे *मिलाद (*)* हे मुसलमानांचे हेर सण जावन आसात. मुसलमान वर्सांतलो रमजान हो णववो म्हयनो. ह्या म्हयन्यांत मुसलमान लोक सूर्य उदेल्याउपरांत सांजे सुर्याचो अस्त जायसर कांयच खायनात. ह्या म्हयन्यांत सदांच प्रार्थना करपाचो नेम

आसता. *उरुस (*)* हो मुसलमानांचो एक भौशीक सण जावन आसा.

गोंयच्या मुसलमानांचें जिवीत हांगाच्या हिंदू वा किरिस्तांवांपरस व्हडलेशें वेगळें न्हय. सुमार एका शतमानाआदीं सगळ्या धर्मीयांक समान असो नागरी कायदो Codigo Civil पोर्तुगेज सरकारान लागू केल्लो. हाका लागून गोंयच्या मुसलमानांमदीं 'शरीयत' कायदो नश्ट जालो आनी एकेच बायले वांगडा लग्न जावपाची तांचेर सक्ती जाली. घटस्फोटाचेंय प्रमाण गोंयच्या मुसलमानांमदीं सामकेंच उणें आसा. बायलांनी बुरखो घेवपाची पध्दतूय व्हडलीशी प्रचलित ना. भुरगेपणांत उर्दूचें थोडेंभोव गिन्यान कुराण पठणांतल्यान वा खाजगी शिकोवप्यांकडल्यान मेळटा. गोंयच्या मुसलमानांचो आहार हांगाच्या हिंदू वा किरिस्तांवांपरस वेगळो असो ना. शीत, नुस्तें, नाल्ल, भाजी ह्यो गजाली तांच्या आहारांत आसतात. पयलीं भेसावयल्यान मुसलमान दादले आनी बायलो वळखूंक येताल्यो. सद्या आधुनिकीकरणाक लागून फरक जाणवना. बायलांचेविशीं मात बरेचफावट तांच्या भेसावयल्यान तांचो धर्म कळटा.

**कांय मुखेल भौशीक उत्सव आनी सणः** *शिरगांवची जात्राः* लईराई देवीचे हे जात्रेचें खाशेलेपण म्हळ्यार होमखण. रसरशीत पेट्ट्या इंगळ्यांची व्हडली रास आनी ते राशीवयल्यान उक्त्या पांयांनी वचपी भाविक म्हळ्यार धोंड.

*जांबावलेचो गुलालः* फाल्गुन शुध्द त्रयोदशी दिसा जावपी ह्या गुलालाचें खाशेलेपण म्हळ्यार व्हड प्रमाणांत समाजांतल्या सगळ्या थरांचे लोक हांगा जमतात आनी एकामेकांक गुलाल लायतात.

*मडगांव दिंडीः* कार्तिक त्रयोदशी दिसा मडगांवच्या विठ्ठल मंदिर आनी हरिमंदिराचो गोंयभर नामना आशिल्लो हो उत्सव. ह्या दिंडी उत्सवाक भारतांतले नामनेचे गवय येवन आपली गायनकला सादर करतात. व्हडा संख्येन भाविक तशेंच रसिक लोक हे दिंडेक हाजीर आसतात.

*वास्को भजनी सप्ताहः* वास्कोच्या दामोदर सालांत (देवळांत) देड दीस सप्ताहाची कार्यावळ आसली तरी पुराय रातभर वास्को शारांत भजनाचे दिंडेची कार्यावळ पंगडा-पंगडांनी जाता. तेन्ना नामनेचे गवय आपली गायनकला सादर करतात.

*पेडणेचो दसरोः* ह्या दसऱ्याचें खाशेलेपण म्हळ्यार तरंगां. हीं तरंगां नाचत-नाचत भगवतीच्या देवळांत पावतकच थंय लोक व्हडा संख्येन देवाचो कौल घेवंक येतात. हो दसरो रातचो जाता.

*म्हाड्डोळची जायांची पूजाः* म्हाड्डोळचें म्हाळसा देवीचें देवूळ जायांच्या फुलांनी शिंगारतात आनी देवीक जायांच्या फुलांनी तयार केल्ल्या आसनांत बसयतात. गायनाचे कार्यावळीक नामनेचे कलाकार हजेरी लायतात.

हेभायर हिंदूंच्या भौशीक उत्सवांमदीं विंगडविंगड देवळांनी जावपी जात्रा आनी काले, नवरात्रां, साळ (दिवचल) हांगाचो गड्यांचो उत्सव, सांगें हांगा जावपी वीरभद्र हे उत्सव नामनेचे आसात. ह्या मुखेल उत्सवांभायर गोंयच्या दर एका मुखेल देवळांत वर्सुकी उत्सव म्हळ्यार जात्रा. ह्या जात्रांमदीं कांय नामनेच्यो अश्योः १. पणजी मळ्यांतली- मारुतीगडावयली जात्रा २. म्हापशें- बोडगेश्वराची जात्रा ३. मंगेशी- मंगेशाची जात्रा ४. मडकय- नवदुर्गेची जात्रा ५. नागेशी- नागेशाची जात्रा ६. रामनाथी- रामनाथाची जात्रा ७. कवळें- शांतादुर्गेची जात्रा ८. कपिलेश्वरी- कपिलेश्वरीची जात्रा ९. सावयवेरें- अनंताची जात्रा १०. फातर्पें- फातर्पेची जात्रा ११. वळवय- गजांतलक्ष्मीची जात्रा १२. खांडोळें- गणपतीची जात्रा १३. माशेल- मान्नी पुनव आनी हेर देवळांच्यो जात्रा.

*गोंयचें फेस्तः* पोरन्या गोंया (Old Goa) तीन डिसेंबर दिसा सेंट फ्रांसिस शावियर ह्या किरिस्तांव संताचें फेस्त जाता. ह्या फेस्ताक गोंयच्या सगळ्या धर्माचे लोक जमतात. दर धा वर्सांनी सेंट फ्रांसिस शावियराची कूड लोकांच्या दर्शनाखातीर उक्ती करतात.

हे भायर व्हडलें गोंय हांगाचें संताचें पुरसांव, चोडण हांगाचें बंदेरांचें फेस्त, म्हापशेंचे मिलाग्रीचें फेस्त, दोंगरेवयलें इंत्रूज, गांवांगांवांनी जावपी सांजांव आनी गांवांगांवांनी जावपी विंगडविंगड इगर्जी आनी कपेलां हांचीं फेस्तां आनी पुरसावां दबाज्यान मनयतात.

मुसलमानांचे गांवांगांवांनी ल्हान-व्हड प्रमाणांत उरुस जातात.

वंशीक नदरेन, गोंयांत प्रोटो ऑस्ट्रलॉयट, द्रविड, आर्य आनी कांय जाणांच्या मतान सुमेरियन हांची भरसण जाल्या. ह्या वाठाराचेर राजकी सत्ता विंगडविंगड सांस्कृतिक दायज आशिल्ल्यांनी चलयली आनी ताका लागून राज्यकर्त्यांचे सांस्कृतिक जिणेचें पडबिंब हांगाच्या समाजांतल्यान दिसून आयलें. वंश आनी राज्यकर्ते हांचेभायर विंगडविंगड संस्कृताय आशिल्ले सैनिक आनी वेपारीय हांगा पावले. गोंयांत रावन तांणी आपले संस्कृतायेची वळख हे भुंयेक करून दिली. सांस्कृतिक प्रभावांची ही विविधताय गोंयचे संस्कृतायेक एक वेगळेंच अशें खाशेलेपण फाव करून दिता; पूण सादारणपणान गोंयची सांस्कृतिक जीण कोंकणी वा अस्तंत दर्यादिगेवयल्या हेर वाठारांपरस सामकीच वेगळी आसा, अशें म्हणूंक येना.

गोंयच्या साबार लोकांमदीं लोकदैवतांक बरेंच म्हत्व आसा. ह्या लोकदैवतांवरवीं लोकांच्या मानसिक जिविताचें दर्शन घडटा आनी लोककलांकडेन तांचो संबंद स्पश्ट जाता.

'मांड' ही गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांनी सांपडपी एक खास संस्था. मांड म्हळ्यार सुमार १०० चौ.मी. आकाराचो एक वाठार, जंय धर्मीक स्वरुपाचो वावर जाता. मांड हें गोंयच्या लोकांच्या धर्मीक बुन्यादीचें एक प्रतीकात्मक स्वरुप. हे मांड संस्थेक, बरोवन दवरिल्ले कायदे वा नेम नासतात. सगळ्यो गजाली परंपरा आनी विस्वास हांच्या आदाराचेर थारतात. ह्या मांडाचो वावर चलपाखातीर गांवच्या लोकांकडल्यान तांचे येणावळीप्रमाण कर जमयतात. 'मांडकार' ह्या गांवच्या एका मनशाकडेन परंपरेप्रमाण मांडाचें मुखेलपण आसता. ह्या मांडार जावपी भौशीक सणांक लोकांचे नदरेन बरेंच म्हत्व आसता. हातूंतले कांय मुखेल उत्सव म्हळ्यारः

१. जागरः जागर हें एक सलग अशी काणी वा कथानक नाशिल्लें नृत्य-नाट्य. गोंयांत गावडा जागर हो प्रकार बऱ्याच वाठारांनी पळोवंक मेळटा. बारदेसांतल्या शिवोली गांवांत पारंपारिक जागर जाता. हो जागर हिंदू आनी किरिस्तांव ह्या दोनूय धर्मांचे लोक मनयतात. जागर्यो ह्या दैवताक हिंदू लोक तेलाची आंगवण दितात जाल्यार किरिस्तांव मेणवाती ओंपतात. दर घरांतल्यान ह्या दैवताक फोव धाडटात आनी गांवच्या शेतांची आनी गांवची राखण ताणें करची, म्हूण ताचेकडेन मागतात.

२. पेरणी जागरः पेरणी जागर हो प्रकार पयलीं गोंयभर प्रचलित आशिल्लो. नृत्यनाटकां करून जियोवपी पेरणी हे खासा जातीचे लोक उत्सवांच्या दिसांनी कांय कडेन 'पेरणी जागर' करतात. ह्या प्रकारांत दादल्यांवांगडा बायलांय वांटो घेतात. हातूंत नृत्य, संगीत, गद्य आनी पद्य संवाद आसतात.

३. मांडोः गोंयच्या किरिस्तांवांमदीं चलपी हो एक कलाप्रकार. हातूंत लोकसंगीत आनी इगर्जींतलें संगीत हांची भरसण दिसून येता.

४. वीरभद्रः वीरभद्र हो पुरायपणान दक्षिण भारतीय प्रकाराचो उत्सव. हातूंत कन्नड उतरांचो आनी कलाप्रकारांचो आस्पाव दिसून येता. वर्सांतल्यान एक फावट जावपी हो उत्सव फोंडें आनी सांगें तालुक्यांनी कांयकडेन दिसून येता. सांखळे वाठारांतलो वीरभद्र पळोवंक गोंयभरचे लोक येतात.

५. घोडे मोडणीः हो कलाप्रकार दिवचल आनी पेडणे तालुक्यांनी कांयकडेन जाता. लांकडी घोड्यांच्यो आकृती आंगाक बांदून कलाकार वाद्यांच्या तालार नाचतात. ह्या प्रकारांत फकत संगीताचोच आस्पाव जाता. पद्य वा गद्य संवाद नासतात.

६. गोफ आनी तोणयांमेळः हे दोन प्रकार चडशे कालो उत्सवांत जातात. हे प्रकार आदल्या काळांत गुजरातांतल्यान वेपाऱ्यांवरवीं गोंयांत आयले, अशें म्हण्टात. सांगें, फोंडें, काणकोण, पेडणें हांगा हे कलाप्रकार

दादले करतात, जाल्यार मंगेशी हांगा बायलां 'गोफ' हो नृत्यप्रकार करतात.

७. फुगडीः धालो, चवथ ह्या उत्सवांवेळार बायलां एकठांय जावन हो नृत्यप्रकार करतात. हाचे बरेच प्रकार आसतात. देखीकः कळशी फुगडी, धनगर फुगडी.

८. देखणीः ह्या प्रकारांत गोंयचे लोककलेची आनी अस्तंतेकडल्या संगीताची भरसण दिसून येता. पुराय भारतीय भेसांत किरिस्तांव चलयो हो नाच करतात. हातूंत भरतनाट्यम् आनी कथ्थक नृत्यप्रकारांच्यो कांय मुद्रा पळोवंक मेळटात.

९. खेळः दक्षिण गोंयांतलें हें एक लोकनाट्य. हातूंत पुराणांतल्या काणयांचेर आदारीत गद्य आनी पद्य संवाद आसतात. झांज, घुमट हांच्या तालार नाचप जाता.

१०. मुसळां खेळः हो प्रकार चांदर हांगा जाता. किरिस्तांव धर्मीयांची संख्या चड आशिल्ल्या ह्या गांवांत कार्निवालाच्या दुसरे दिसा हो उत्सव जाता. मुसळ नृत्य करपी मनशांचो भेस यादव पध्दतीचो आसता आनी पोर्तुगेजांपयलीं गोंयच्या चंद्रपूर वाठारांत राज्य करपी यादवांची परंपरा ह्या नृत्यांतल्यान दिसून येता.

११. रणमालेः उत्तर भारतांत जावपी रामलीला प्रकाराकडेन ह्या प्रकाराचें बरेंच सारकेंपण दिसून येता. हातुंतूय पुराणांतल्या काणयांचेर आदारीत अशें सादरीकरण जाता.

**कांय नामनेचे गोंयकारः** *साहित्यः* वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार (शणै गोंयबाब), रामचंद्र शंकर नायक, बाळकृष्ण (बाकीबाब) भगवंत बोरकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय, दामोदर अच्च्युत कारे, बाळकृष्ण वामन सावर्डेकार, डॉक्टर फ्रांसिस्कु लुईश गोमिश, कृष्णदास शामा, फादर थॉमस स्टीफन, एतिएँ द ला क्रुवा, आंतोनियु साल्दाञ्ज, महेश्वर शास्त्री सुखठणकर, संत सोहिरेबानाथ आंबिये, विठ्ठल नृसिंह नाईक केरीकर, गोविंद नारायण माडगांवकर, सूर्याजी सदाशिव महात्मे, तोमाश मौरांव, सखाराम वाघ, सूर्याजी देशपांडे, कृष्णंभट्ट बांदकर, दादा वैद्य, फोंडुशास्त्री करंडे, रामचंद्र कृष्ण कामत चंदगडकर, शांबाराव सरदेसाय, रामचंद्र माडगांवकर, हिराबाई पेडणेकार, धर्मानंद कोसंबी, भास्कर गो. रामाणी, कृष्णाजी अस्नोडकार, विश्वनाथ हेदे, बाळकृष्ण नाटेकार, विष्णू शेळडेकर, श्रीपाद वागळे, कृष्ण ज. थळी, श्री. मर्दिदिराकांत स्वामी, वि. का. प्रियोळकर, अ. का. प्रियोळकर, जनाप्पा कामत, यशवंत सरदेसाय, पांडुरंग पिसुर्लेकर, सखाराम बर्वे, दत्तात्रय पै, ना. भा. नायक, पुरुषोत्तम मंगेश लाड, वासुदेव आ. देशप्रभू, वामन अनंत शेट खलप, काशिनाथ दामोदर नायक, रामचंद्र ना. वेलिंगकर.

*संगीत/नाट्यः* मुराबा पेडणेकर, बाबलीबाई साळगांवकर, सरस्वतीबाई जांबावलीकर, ताराबाई शिरोडकर, रघुनाथ माशेलकर, खाप्रूजी पर्वतकार, अंजनीबाई मालपेकर, शंकरबुवा गोखले, गोविंद अग्नि, श्रीपाद नेवरेकर, श्रीधर पार्सेकर, दिनानाथ मंगेशकर, मोगुबाई कुर्डीकर, केशरबाई केरकर, वसंतराव सावकार, गोपिनाथ सावकार, रत्नकांत रामनाथकर, रघुवीर नमशीकर, पंढरीनाथ नागेशकर, गोविंदराव वेर्लेकर, मुकुंद शेट मडकईकर, गजानन भर्तु, सीताकांत लाड, मनोहर शिरगांवकर, नरहरी वळवयकार.

*राजकारणी आनी मुत्सद्दीः* जिवबादादा केरकार, ओडियर वसंत माधव, ओडियर बच्चण्णाराय वसंत माधव.

*चित्रकलाः* गणपतराव लाड, आंतोनियु त्रिनिदाद, इनासियु व्हाज, अनंत भोसले, रघुवीर चिमुलकार, दलाल, मुळगांवकर, मंगेश केंकरे, आग्नेलो फोंसेका, फ्रान जुवांव फर्नांडीस, लक्ष्मण पै.

**गोंयचें इंग्लीश साहित्यः** पोर्तुगेज राजवटींत पोर्तुगेज ही सरकारी भास आनी कांय गोंयकारांची संस्कृतीक भास आसली, तरी एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत गोंयकारांक इंग्लीश भाशेची गरज भासूंक लागली. जायते गोंयकार गोंय सोडून ब्रिटीश हिंदुस्थानांत आनी जगांतल्या ब्रिटीश वसणुकांनी वचून रावले. गोंयांत इंग्लीश माध्यमांतल्यो शाळा सुरू जाल्यो. ब्रिटीश हिंदुस्थानांत स्थायिक जाल्ल्या गोंयकारांनी इंग्लीश भास आत्मसात केली आनी ते भाशेंत साहित्य लेगीत रचलें.

इंग्लिशींत पयलें वयलें काव्य रचपी भारतीय हेन्री लुईश देरोझियो (१८०९-३१). ताणें कलकत्त्याच्या हिंदी कॉलेजांत प्राध्यापक म्हूण काम केलें. ताणें 'The Parthenon' हें म्हयन्याळें सुरू केलें. ताणें उजवाडायिल्ले हे दोन कवितांझेलेः 'Poems' (१८२७) आनी 'The Fakeer of Jungheera: A Metrical Tele and other Poems' (१८२८). ही एके नलिनी नांवाचे हिंदू विधवेची दुखेस्त काणी. ह्या काव्याचेर इंग्लीश रॉमेंटीक काव्याचो छाप आसा आनी तातूंत ताणें तरेकवार वृत्तांचो वापर केला. ताचो बापूय जरी हिंदी-पोर्तुगेज आनी आवय ब्रिटीश आसली, तरी ताच्या काव्यांत भारताविशींचो उपाट मोग भरला हें To India- My Native Land आनी The Harp of India ह्या ताच्या कवितांतल्यान दिसून येता.

जोसेफ फुर्तादो (१८७२-१९४७) हो मुंबय स्थायिक जाल्लो कवी. पूण ताच्या सगळ्या काव्यांत गोंयचो मोग आनी गोंय सोडून गेल्ल्याची खंत दिसता. नामनेच्या अस्तंत कवींच्या प्रभावाखाला येवन ताणें 'The Poems of Joseph Furtado' हो कवितांझेलो १८९५ वर्सा उजवाडायलो. १९०१ वर्सा ताणें 'Poems' हो आनीक एक कवितांझेलो उजवाडायलो. १९१० वर्सा ताणें 'Lays of Goa and other verses on Goan Themes' हो झेलो उजवाडायलो. १९२२ त उजवाडायिल्ल्या 'Lays of Goa and Lyrics of a Goan' ह्या ताच्या कवितांझेल्याची भारतांतूच न्हय तर इंग्लंड, अमेरिकेंतूय तोखणाय जाली. १९२७ वर्सा ताणें इंग्लंडांत 'A Goan Fiddler' हो झेलो उजवाडायलो. सर एडमंड गॉस ह्या नामनेच्या साहित्यीकान ताका प्रस्तावना बरयल्ली. 'The Desterrado' (मुळां तुटिल्लो) हो कवितांझेलो ताणें इंग्लंडांत १९२९ वर्सा उजवाडायलो. ह्या झेल्यांतल्या कवितांत गोंयांक पयसावल्ल्या, गोंयचे मातयेपसून हुमटायिल्ल्या गोंयकारांचे दुखेस्त उमाळे उक्ते जातात. १९३८ वर्सा ताणें 'Songs in Exile' हो झेलो उजवाडाक हाडलो. त्याच वर्सा 'Golden Goa' ह्या नांवाची इतिहासीक नवलकथा ताणें बरयली. हातूंत ताणें गोंयच्या भांगरा-युगांत घडिल्ल्या कांय अती-दुखेस्त घडणुकांचें चित्र पितारलां. १९४२ वर्सा 'Selected Poems' हो ताचो झेलो उजवाडाक आयलो. तातूंत १९०३ ते १९२५ मेरेन बरयल्ल्यो १२५ कविता आस्पावतात.

भाऊ दाजी लाड (१८२४-७४) हो मुंबयच्या ग्रँट मॅडिकल कॉलेजांतलो पयलो वयलो डॉक्टर. आपलो वेवसाय सांबाळून तो शिक्षण, समाजकारण, राजकारण ह्या विशयांनीय रस घेतालो. ताचे कांय इंग्लीश लेख 'The literary remains of Bhau Daji' ह्या नांवान १८८० वर्सा कलकत्त्याक उजवाडाक आयले.

काशिनाथ त्र्यंबक तेलंग (१८५३-९३) हाणें राजकारण, शिक्षण, प्राच्यविद्याशास्त्र ह्या विशयांचेर खूब बरप केलें. मुंबय विश्वविद्यापीठाचो पयलो भारतीय उपकुलगुरु जावपाचो मान ताकाच मेळिल्लो. खांपो इंग्लीश उलोवपी अशी ताची नामना जाल्ली. ताचीं बरोवपां आनी उलोवपां 'Select Writings and Speeches' हातूंत एकठांय केल्यांत. हातूंतले रामायण आनी भगवद्‌गीता हांचेवयले ताचे लेख अप्रूप अशे जाल्यात.

ताचे कांय लेख 'Journal of the Royal Asiatic Society' आनी 'Indian Antiquery' हातूंत उजवाडाक येताले. ताणें भगवद्‌गीतेचो इंग्लिशींत अणकार केला.

फ्रँक मोराइश हो 'The Times of India' ह्या नामनेच्या खबरापत्राचो १९५०-५७ मेरेन आनी 'The Indian Express' हाचो १९५८-७२ मेरेन संपादक आसलो. ताणें जवाहरलाल नेहरू हाचें चरित्र बरयलां. ताणें 'Witness to an Era' (१९७२, एका युवाचो गवाय) ह्या आत्मचरित्रांत आपल्या काळांतल्यो जिवियाचें दर्शन घडयला तशेंच आपल्या कांय समकालीन व्यक्तींचीं अप्रूप चित्रां काडल्यांत. आपले कांय लेख ताणें 'Without Fear or Favour' (१९७४- ना भीड, ना भय) ह्या पुस्तकांत

मुखेल अशें:

(अ) खबरापत्रां: ह्या काळावेळें साहित्य खबरापत्रांनी सुरू जाता. पयलें नेमाळें 'गाझेत द गोवा' २२-१२-१८२१ ह्या दिसा उजवाडाक आयलें. ताच्या फाटल्यान 'आलमानाक' हें दिसाळें आनी उपरांत बरींच नेमाळीं गोंयांत आयलीं. तांतलीं कांय मुखेल: 'आ सेंतिनेला दा लिबेदार्द' (A Sentinela da Liberdade- १८६४-६९); 'आबेल्या दे बाँबायीं' (Abelha de Bombaim- १८४८-६१); 'उ उल्त्रामार' (O Utramar-१८५९-१९४१), संपादक बेर्नाद फ्रांसिश्क द कॉश्त; 'अ ईंदिया पुर्तुगेज' ह्या खबरापत्राचो संस्थापक जुजे इनासियु द लॉयोला (१८३४-१९०२) हो आशिल्लो. १९०० वर्सा प्रो. आलैश क्लेमेंति मेसियाश गॉमिश (१८३७-१९५७) हाणें 'उ एराल्दु' हें पयलें गोंयचें पोर्तुगेज दिसाळें उजवाडाक हाडलें. 'एराल्द' (१९०८-६१) हें दिसाळें दोतोर आंतोनियु मारिया दा कुञ्ज (१८६५-१९४७) हाणें चालू केलें. 'उ देबाति' (१९११-२१); 'आ तेर्रा' (१९१७-३५); 'प्रकाश' (१९२८-३७); 'भारत' (१९१२-४९) हीं सातोळीं आनी 'दियारियु द नोयत' (१९१९-६७) आनी 'आ विद' (१९३८-६७) हीं दिसाळीं गोंयांत उजवाडाक येवंक पावलीं.

गोंयचे कांय मुखेल पोर्तुगेज पत्रकार म्हळ्यार:

लेवपाल्दु द गामा (१८४३-१९२९); पाद्री ए. एफ्. एक्स. आल्वारिश (१८३८-१९२३); जे. वी. बार्रेत मिरांद; रॅक कुर्रेय आफोंसु (१८५९-१९३७); मिगेल द लॉयोल फुर्तादु (१८७७-१९१८); लामार्तीन प्राझेरिश दा कॉश्त (१८७९-१९४९); सालिश दा वेयग कुतिन्यु (१८६५-१९५०); कॉश्तांसियु रॅक दा कॉश्त (१८५८-१९३४); आ. आ. ब्रुतु दा कॉश्त (१८२८-१९३१); आवेर्तानु द लॉयोला; सालिश दे आंद्राद (१८२७-९०); लिबेरियु पेरैरा; लुईश द मिनेझिश (१८८४-१९६३); पेद्रू कुर्रेय आफोंस (१८९२-१९६५); लॉरेन्स द आल्मैद; जोकीं द सौझ; गोविंद पुंडलीक हेगडो देसाय; ए. एक्स. गॉमिश पेरैर (१८८०-१९५७); फांचू लॉयोला (१८८९-१९७३); आल्वारू दे सांतारिता वाझ (१९०४-६९); आमादेउ प्राझेरिश दा कॉश्त (१९०८-७२) आनी व्हड नामना जोडिल्लो पत्रकार लुईश द मिनेझिश ब्रागांझ (१८७८-१९३७).

गोंयांत राबितो करून आशिल्ल्या फिरंग्यांनी आपलीं खास खबरपत्रां गोंयांत चलयलीं. तांतलीं मुखेल म्हळ्यार 'तिरसीनियू लितेरारियु' (१८६०-६३); 'आर्प द मांदोवी' (१८६३-६९); 'एर नॉव' (१८९६-१९०३); 'जॉर्नाल द नोतीसियश' (१८६६-६९); 'आ इंप्रेंस' (१८७०-७६); 'नॉवा गोवा' (१८७६-७८); 'पात्रिय' (१९१९-२५). ह्या काळांतले मुखेल पोर्तुगेज पत्रकार म्हळ्यार टी. ए. मौरांव गार्सेज पाल्या (१८४२-१९०४), पी. दा. कॉश्त कांपुश, एम्. जे. दा कॉश्त कांपुश, जे. मौरांव गार्सेज पाल्या (१८१०-७३), फ्रेदेरीक दिनीज दायाल (१८६०-१९२३), आदोल्फ कॉश्त (१८८३-१९६०) आनी इपोलित कासियान पेरैर गार्सेज.

(आ) इतिहास: इतिहासाविशीं बरपावळ करपी आनी संशोधन करपी गोंयांत बरेच जाण जावन गेले. फ्रान्सिश्कु लुईश गॉमिश (१८२९-६९) हाणें पोर्तुगालांत 'ल मार्की द् पाँबाल' हो इतिहासीक स्वरूपाचो ग्रंथ बरयलो. हेभायर हेर इतिहासीक ग्रंथ अशे: फिलीप नेरि शावियेर (१८०४-७५), 'बॉश्केजु इश्तोरिकु दश कोमुनिदादिश'; जे. सि. बार्रेतु मिरांद (१८४२-७९), 'क्वाद्रुश इश्तोरिकुश दे गोवा'; आ. आ. ब्रुतु दा कॉश्त (१८२८-१९११), 'गोवा सॉब आ दामिनासांव पोर्तुगेज'; पाद्री काजिमीर क्रिश्तोवांव नाजारे (१८३०-१९२७); 'मित्राश लुसितानाश नु ऑरियेंत'; जे. ए. इस्माएल ग्रासीयश (१८५७-१९१९), 'आ. इंप्रेंसा एं गोवा नुश सेकुलुश'; फ्रेदेरिक दिनीज द आयाल (१८६०-१९२३) 'गोअ आंतिग इ मॉदेर्न'; पाद्री एम्. जे. गाब्रिएल द साल्दाञ (१८५३-१९३०), 'इश्तारिय द गोअ - २ खंड'; क्रिश्तोवांव पिंतु (१८५४-१९२६) 'उ आंतीगु इंपेरियालिश्मु पुर्तुगेश इ अश लेईश मॉदेर्नाश दु गॉवेर्नु कोलोनियाल'; लुईश द मिनेझिश ब्रागांझ, 'आ एडुकासांव इ उ एंसीनु न ईंदिय पुर्तुगेज'; ए. बी. ब्रागांझ पेरैर (१८८३-१९५५), 'एतनोग्राफीय दा ईंदिय पुर्तुगेज'; जेर्मानु कुर्रेय्य (१८८८-१९६७), 'इश्तोरियु द कोलोनिझसांव पुर्तुगेज ना ईंदिया- ६ खंड);' आदेउदात बार्रेतु (१९०५-३७), 'सिवीलिजासांव ईंदू', आंतोनियु द नोरोन्य (१८७३-१९३१), उश ईंदूश द गोअ इ अ रेपूब्लीक पुर्तुगेझ'; कायतानु द फिगेरैद, (१८५७-१९४१), 'अश कोमुनिदादिश द गोआ'; शिवराम बळवंत राव, (१८८५-१९५८), 'अ रेपूब्लीक पुतुगेझ नु इश्तादु द ईंदिय'; सिदबा सूर्यराव सरदेसाय; 'नोसोंईश सुमारियश दा इश्तोरिय दा ईंदिय पुर्तुगेझ'; जुजे फ्रेदेरिक फेरैर मार्तींश, (१८७४-१९६०-फिरंगीवंश), 'इश्तोरिय दा मिजेरिकॉर्दिय द गोआ'; पाद्री गॉमिश कातांव, (१८९६-१९८४), 'उ प्रिमैर सेमिनारियु द गोआ'; पांडुरंग पिसुर्लेकार, (१८९४-१९६९), 'आसेंतुश दु कॉसेल्यु दु इश्ताद' - ५ खंड; जोकीं एलियादोर दा कुञ रिवार, (१८०९-१८७९- फिरंगी-गोंयांत ग्रंथ रचणूक), 'आर्कीवु पुर्तुगेज ओरियेंताल', 'एंसायु इश्तोरिकु दा लिंग्व कोंकानी' आनी हेर.

इ) पद्य: गोंयचे पोर्तुगेज पद्य १९ व्या शतमानाच्या शेवटाक सुरू जाता. कांय मुखेल कवी म्हळ्यार तोमाज द आकिन मौरांव गार्सेज पाल्या (१८४२-१९०४), हो फिरंगी वंशी कवी बऱ्याच नेमाळ्यांतल्यान कविता बरयतालो. फेर्नांद लियाल (१८४६-१९१०- फिरंगीवंश), 'लिव्रु दा फॅ'; मारियानु ग्रासियश. (१८७१-१९३१), 'तेर्र दुश राजाश'; पावलिन दियाश (१८७४-१९१९), 'आ देउसा दे ब्राँज'; नासिमेंत मँदोंसा (१८८४-१९२६), 'लोतुस दे सांग इ दे इदेयाल'; आदेउदात बार्रेत (१९०५-१९३७- हो गोंयकार पोर्तुगालांत रावतालो) 'उलिव्र दा विद'; तोमाज रिबैर (१८३१-१९०१- फिरंगी गोंयांत रावपी) 'दों जायम', 'जर्नादाश'.

ई) निबंध: ह्या प्रकारच्या साहित्याची बरीच बरपावळ जाल्या. तांतले मुखेल लेखक म्हळ्यार-गिल्येर्मि मोनिज बार्रेतु (१८६५-१८९६) 'एंसायुश द क्रीतीक'; आंतोनियु द नॉरोञ (१८७३-१९३१), 'एंबवा पाज'; 'प्रॉपेर्सिय कुर्रेय आफोंस इ फिगेरैदू (१८८२-१९४४), 'आ मुल्येर ना ईंदिय पुर्तुगेझ'; लुसियु द मिरांद (१९०४-६२), 'ईंदिय ई ईंदियानुश'; लुईझ द मिनेझिश क्रिश्त दियश (१९०४-८६), 'इश्बोसु दा इश्तोरिय दा लितेरातूर ईंदो-पुर्तुगेज'.

उ) कादंबरी: कादंबरीच्या मळार गोंयांत पोर्तुगेज भाशेंतल्यान चड बरपावळ जावंक ना. 'उश ब्रहामानेश' (१९६६) आनी 'उ सिग्नु द ईर' (१९६१) ह्यो दोन आनी हेर कांय कादंबरी सोडीत जाल्यार बरपावळ व्हडलीशी जावंक ना. फ्रांसिश्कु लुईश गोमिश (१८२९-६९) ह्या पोर्तुगालांत रावपी गोंयकारान 'उश ब्रहामनेश' हे आपले कादंबरींत भारतांतले जातीभेद आनी अस्तंतेचो वंशीक भेद हांचेर टीका केल्या. फ्रान्सिश्कु जुआंव द कॉश्त (१८६४-१९०१) हाणें 'जीप' ह्या नांवान बरपावळ केली. 'जाकॉब द दूल्सि' ह्या ताच्या पुस्तकाच्या विनोदी शैलीक लागून ताका गोंयचो मार्क ट्वेन म्हण्टाले. ऑर्लांद द कॉश्त- 'उसिग्न दा ईर' आनी 'पॉदें शामार-मि एवरिदीसी', आउगुश्तिञ्यु फेर्नांदीश- 'बोडकी', पावलीनु दीयश (१८७४-१९१९), 'आ देश्तीदोसा लावरा', जुजे दा सिल्वा कुयेल्य (१८८९-१९४४) 'लेंदश ईंदियानश' ६५ कथांचो झेलो हे कांय हेर नांव घेवपासारके बरोवपी आनी तांच्यो साहित्यकृती.

ऊ) भाशाविज्ञान: ह्या मळार गोंयचो पंडीत सेबाश्तियांव रोदोल्फु दालगाद (१८५५-१९२२) ह्या पोर्तुगालांत रावप्यान युरोप आनी आशियांतल्या भाशांचो खोल अभ्यास करून आपले बरपावळींतल्यान संवसारभर नामना मेळयली. 'इंफ्लुयेंसिय दु वॉकाबुलारियु पुर्तुगेज एं लींग्वाश आझियातिकश' (१९१३) आनी 'ग्लोसारियु लुझो आझियातिक' (१९११-२१)- २ खंड हे ताचे गाजिल्ले ग्रंथ. मारियान साल्दाञ (१८७९-१९७५) हाचो 'आ लिंग्वा कोंकानी' हो ग्रंथ बरोच

एकठांयल्यात.

प्राचार्य आर्मांद मिनेझीस (१९०२-८३) हो एक निबंदकार आनी कवी. आकाशवाणीचेर केल्लीं ताचीं उलोवपां 'Lighter Than Air' (१९५९, हवेपरस ल्हव) आनी 'Airy Nothings' (१९७७- वाऱ्यावेलीं उतरां) ह्या झेल्यांनी उजवाडाक आयल्यांत. तातूंत ताणें जिविताचें खरें दर्शन घडयलां आनी खर सत्यां पितारल्यांत. ताच्यो कविता ह्या झेल्यांनी आस्पावतात: 'Chords and Discords', 'Chaos and Dancing Star', 'The Ancestral Face' आनी 'Selected Poems' ताच्या 'The Emigrant' (गांवाभायरो) ह्या काव्यांत मुंबयच्या जिविताचें दर्शन घडटा. 'The Fund' हें ताचें एक विनोदी काव्य.

प्रो. लुसियु रोद्रीगीश (१९१६-७३) हाणें इंग्लिशींतल्यान गोंयच्या लोकसाहित्याचेर खूब बरयलां. तेभायर कोंकणी लोककथा ताणें इंग्लिशींतल्यान पर्थून सांगल्यात. ताचे निबंद आनी लोककथा ताणें 'Soil and Soul and Konkani Folk tales' (१९७४) हातूंत एकठांय केल्यात. आपल्या निबंदांनी तो विद्वत्ता आनी विनोद हांचो सोबीत मेळ सादता. गोंयच्या लोकवेदावेले खास करून मांडो, दुल्पदां आनी देखणी हांचेवेले ताचे संशोधनपर लेख चड तोलामोलाचे जाल्यात.

युगांडांत जल्मल्लो पीटर नाझारेथ (१९४०) हो एक टिकाकार आनी कादंबरीकार. ताच्यो कांय साहित्यकृती अश्यो: 'In a Brown Mantle', 'Literature and Society in Modern Africa', 'The Third World Writer (His Social Responsibility)'. १९८३ त ताणें मिशीगन स्टेट युनिव्हर्सिटीखातीर 'Goan Literature: A Modern Reader' हो गोंयकारांच्या आर्विल्ल्या साहित्याचो झेलो संपादित केलो.

सांतान रोद्रीगीश हो 'कवी' ह्या इंग्लीश नेमाळयाचो संस्थापक-संपादक आशिल्लो. 'I exist' (१९७३) आनी '3 Poets' (१९७८) हातूंत ताच्यो कविता आस्पावतात. ताचे कवितेंत गोंयच्या जिविताचीं कांय अप्रूप चित्रां होल्मतात.

कवी जोसेफ फुर्तादो हाचो पूत फिलीप फुर्तादो हाच्यो कविता 'The Times of India', 'The Examiner' आनी 'Goa Today' हातूंत उजवाडाक आयल्यात.

आरमांद मिनेझीस हाचो पूत जॉर्ज मिनेझीस हाणें उपहास आनी विनोदान भरिल्ले लेख बरयल्यात. ते चडशे 'The Times of India', 'Debonair' ह्या नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयल्यात.

मान्युएल सी. रोद्रीगीश (१९०८) हाच्यो कविता 'Songs in Exile' आनी 'Homeward' ह्या झेल्यांनी आस्पावतात. तशेंच ताणें गोंयचे संस्कृतायेच्या वेगवेगळ्या तासांचेर लेख बरयल्यात.

कॅनडांत स्थायिक जाल्ल्या लिनो लैतांव हाणें गोंयच्या जिविताचेर कथा बरयल्यात. 'Collected Short Tales', 'Goan Tales' आनी 'Six Tales' ह्यो ताच्यो कांय साहित्यकृती. 'Gift of the Holy Cross' ही ताणें गोंयचेर बरयल्ली इतिहासीक कादंबरी.

मेलानी सिलगार्दो (१९५६) हिच्यो कविता '3 Poets' ह्या झेल्यांत आस्पावतात. युनीस द् सोउस हिच्या सादे, सोपे भाशेंत बरयल्ल्या काव्यांत जिविताचें एक आगळें वेगळें दर्शन जाता. तिच्यो कविता 'Fix' ह्या झेल्यांत उजवाडाक आयल्यात.

लुईस मिनेझिस ब्रागांझ हाची चली बेर्ता मिनेझिस ब्रागांझ ही 'फ्री गोवा' नेमाळ्याची संस्थापक-संपादक आशिल्ली. तिणें लेख बरयल्यात, तशेंच कथा आनी कविताय बरयल्यात. 'Tales from Goa' हो तिचो कथांझेलो १९८९ त उजवाडाक आयलो.

व्हायलेट डायस लॅनॉय हिचेर महात्मा गांधीचो खूब प्रभाव पडिल्लो. तिचो जल्म मोझांबीक हांगा जाल्लो आनी शिक्षण मुंबय जाल्लें. आपल्या आफ्रिकेंतल्या जिविताचेर 'Pears from the Willow Tree' ही नवलकथा बरयल्ली. ती उजवाडाक आयलीना, तरी अमेरिकन कथाकार रिचर्ड राइट हाणें हे नवलकथेची बरीच तोखणाय केल्ली.

'Goa Today'चो पयलो संस्थापक-संपादक लँबर्ट माश्कारेन्यश हाची 'Sorrowing lies my land' (म्हजी भूंय रडटा) ही नामनेक पाविल्ली प्रभावी अशी नवलकथा. हातूंत पोर्तुगेज काळांतल्या गोंयच्या समाजीक आनी राजकी जिविताचें काळीज हालोवपी अशें दर्शन जाता.

फ्रँक मोरायश हाचो पूत दॉम मोरायश हाच्या कवितांझेलाक १९५८ वर्सा Hawthornden पुरस्कार मेळ्ळो. आपलें भुरगेपणांतलें आनी तरणेपणांतलें दगदगाचें जिवीत ताणें 'My Son's Father' (म्हज्या बापायचो पूत) ह्या आत्मचरित्रांत कुशळतायेन चितारलां. ताच्या कांय कवितांझेल्यांचीं नांवां अशीं: 'A Beginning' (१९५७), 'Poems' (१९६०), 'John Nobody' (१९६८). आपल्या काव्यांत ताणें आपलें अस्थीर आनी एकसुरें जिवीत समर्थ उतरांनी चितारलां. 'Gone Away: An Indian Journal' (१९६०) हें ताचें नामनेचें प्रवासवर्णन.

तेभायर मनोहरराय सरदेसाय हाणें इंग्लिशींत गोंयचेर आनी हेर विशयांचेर जायत्यो कथा, कविता बरयल्यात. तशेंच लॉय साल्दाना, मारियन द सिल्वा, आदेलायट डिसौजा, राउल द गामा रोझ, लेस्ली द नोरोन्य हांणीय इंग्लिशींत साहित्य रचलां.

- कों. वि. सं. मं.

**गोंयचें कोंकणी साहित्य:** पळेयात *कोंकणी साहित्य.*

**गोंयचें पोर्तुगेज साहित्य:** गोंयांत निर्मिल्लें पोर्तुगेज साहित्य दोन काळखंडांनी वांटून घालूं येता. १. आदलो काळ २. आर्विल्लो काळ.

१. आदलो काळ: (१६, १७ आनी १८ वें शतमान): ह्या काळांत पोर्तुगेज साहित्य उण्या प्रमाणांत निर्मिल्लें सांपडटा. मुखेल ग्रंथ आनी ते बरोवपी त्या काळांतले गोंयकार अशे आसात: पाद्री फ्रांसिश्कु दु रेगु हाचो ग्रंथ 'त्रातादु आपोलोजेतिक काँत्र व्हारियश कालूनीयश इंपोस्तश पेला मालेव्होलेंसिय काँत्र अ सुअ नासांव ब्राकमान (Tratado Apologetico Contro Various Calumnias Impostos pela malevolencia Contra a sua Nacao Bracmana १६८६); पाद्री आंतोनियु जुआंव द फ्रीयश (१६६४-१७२७) हाचो ग्रंथ 'आवरेयोल दुश ईंदियुश इ नोबिलीयारकीय ब्राकमान' (Avreola dos Indios e Nobiliarchia Bracmana); पाद्री लेवनार्द पायिश (१६६२-१७१५) हाचो ग्रंथ 'प्रोंतुआरियु दश दे फिनीसोंइश ईंदिकश' (Promptuario das Definicoens Indicas); पाद्री सेबाश्तियांव दु रेग (१६९९-१७८५) हाचो ग्रंथ 'विद द वेनेरावेल पाद्री जुजे वाज' (Vida do Veneravel Padre Jose Vaz) आनी 'सेर्मांव द सांताक्रूझ दुश मिलाग्रिश' (Sermao de Santa Cruz dos Milagres); पाद्री जुआंव दा कुन्य जाकिश हाचो ग्रंथ: 'इश्पाद द दाविद काँत्र ड गोलियश दु ब्रामानिश्मु पेसीमु इनिमिगु द जेजु क्रिश्त, देउश इ सिंगोर नोश' (Espada de David Contra o Golias do Bramanismo pessimo Inimigo de Jesu Christo, Deos e senhor nosso); पाद्री मिगेल दा पुरिफिकासांव हाचो ग्रंथ 'रेलासांव देफेंसिव दुश फिल्युश दा ईंदिया ओरियेंताल' (Ralacao, defensiva dos filhos da India Oriental); पाद्री लुकाश द लिम (१६५४-१७१७) हाचो ग्रंथ 'सुम द तेऑलॉजीय मॉराल'.

ह्या काळांत गोंयांत साहित्यनिर्मणी करपी पोर्तुगेज साहित्यिक आनी तांचे ग्रंथ म्हळ्यार: गाश्पार करेया (१४९५-१५६१), ग्रंथ: 'लेंदश दा ईंदिय'-४ खंड; फेर्नांव लॅपिश द कास्तान्येद, ग्रंथ: 'इश्तोरिया दु दिश्कुब्रिमेंतु दु काँकिश्ता दा ईंदिया पेलुश पुर्तुगेझिश'; दियोग द कौतु (१५४२-१६१६), ग्रंथ: 'देकादेश दा आझिय'-७ खंड. हेभायर लुईश द कामाँइश (१५२४-८०) हाचें महाकाव्य 'उश लुझीयदश'; कवि क्रिश्तोवांव द सौज फालकांव हाचो ग्रंथ 'क्रिशफाल' आनी कवि मानुयेल मारिय लुकाजि (१७६६-१८०५); वनस्पतीशास्त्रज्ञ गार्सीय दा ओर्त (१५४२), ग्रंथ 'कालोकियुश दूश सिंपलिश इ द्रोगश द ईंदिय'. हे फिरंगी लेखक गोंयांत आयले आनी तांणी बरपावळ केली.

२. आर्विल्लो काळ (१९, २० वें शतमान): १९ व्या शतमानाच्या शेवटाक गोंयचे पोर्तुगेज साहित्य खूब वाडलें आनी सगळ्या वटांनी फुललें. ह्या वेळावेलें साहित्य विंगड विंगड प्रकारचें आसा. तांतलें

नामनेक पावलो.

ऋ) नाट्यकलाः ह्या मळार व्हडलीशी बरपावळ जावंक पावली ना. कांय म्हत्वाचे लेखक म्हळ्यार अनंतराव सरदेसाय- 'पार्वो इ मेयु', 'आ फॉर्स दु सेक्ष फ्राक' आनी हेर. फेर्नांद द काश्त्रु (गोंयकार पुर्तुगालांत रावपी)- 'इश्कॉल द मारिदुश' 'सोल्तेरा औ काजादा'. लुईज नापोलियांव दा आताईद 'आ विऊवा दु कॉमांदांत'.

- प्रो. लु. आ. रोद्रीगीश

हेर बरपावळः टीका हो साहित्यप्रकार गोंयांत चडसो फुलूंक पावलोना. तरीपूण गिल्यॅर्मि मुनीझ बार्रेतु ह्या गोंयकार लेखकान पोर्तुगालांत टीकाकार म्हूण बरीच नामना मेळयली. चरित्र बरपावळीच्या मळार मिगॅल व्हिसॅन्ति द आब्रेव, फिलोतेय्यु पेरैर द आन्द्रादि, एफ्. शीज. इश्पॅतासांव बार्रेतु, इस्मायल ग्रासीयश्, आमांसियु ग्रासीयश्, रॅनातु द सा हांणी वावर केला. संशोधनात्मक बरपावळ फिलीप नॅरि शाव्हिएर, झॅरॉनिमु क्वाद्रुश, रिकार्दु तेलिश, दोतोर ब्रागांस पेरैर, क्रिश्तोव्हंव पीन्तु, आंतोनियु फ्लो. द नोरोन्य, रॉकी कुरैय्य आफोन्सु हांणी वैचारिक स्वरुपाची बरपावळ केल्या. दॉना एर्मेलिन्दा दुश स्तुअर्दश गॉमिश आनी दॉना प्रॉपर्सिय कुरैय्य आफोंसु इ फिगरैदु ह्या दोगां बायलमनशांनीय वैचारिक स्वरुपाची बरपावळ करून नामना मेळयली.

संदर्भः १. कॉश्त, आलैश मानुएल दाः 'लितेरातुर गोयेसा', आजेंसिय जेराल दु उल्त्रामार, एंप्रेज तिपोग्राफिक, लिश्बोअ १९६७; २. देवी विमाला इ मानुएल सियाब्रः 'आ लितरातुर ईंदो-पुर्तुगेज' जुंत दे इंवेश्तिगासोंयिश द उल्त्रामार, इप्रेस पुर्तुगेज, लिश्बोअ १९७१; ३. दियश, पाद्री फिलींत क्रिश्तः 'इश्बोसो दा इश्तोरिय दा लितरातुर ईंदो-पुर्तुगेज' तिपोग्राफिया रांजेल, बाश्तोरा गोवा, १९६३; ४. रोद्रीगीश प्रो. लु. आ. 'गोअन लिटरेचर इन पुर्तुगेज लँग्वेज', बोलेतीं द इंश्तितुत मिनेझिश ब्रागांझ. १९७६, अंक ११२, तिपोग्राफिय रांजेल, बाश्तोरा गोवा.

**गोंयचें फ्रेंच साहित्यः** गोंयकारांचें फ्रेंच साहित्यः जुझे कुश्तोदियु द फारिय (आबे फारीय) (१७५६-१९१८) हो फ्रेंच भाशेंत पुस्तक उजवाडा हाडपी पयलो गोंयकार. ताचें संमोहन विद्येचेर (hypnotism)बरयल्लें 'द् ला कोझ द्यु सोमॅय्य ल्युसीद ऊ एव्यूद स्युर ला नाट्यूर द् लॉम' (De la Cause du Sommeil lucide ou Etude sur la Nature de l'Homme) (घणघणीत उजवाडाचे न्हिदेचीं कारणां) १८१९ त पारीसांत उजवाडा आयलें.

पोर्तुगालचे लोकसभेचो वांगडी नावेलीचो फ्रांसिश्कु लुईश गॉमिश (१८२९-१९६९) हाणें फ्रेंच भाशेंत तीन पुस्तकां बरयलीं. 'लमार्की द् पॉबाल एस्कीस द् सा व्ही प्युब्लीक' (Le Marquis de Pombal. Esquisse de sa vie Publique) (१८६९). (मार्की द् पॉबाल- भौशीक जिविताचें चित्र). एसॅ स्युर ला तेओरी द् लेकोनोमी पॉलितीक ए द् से रापॉर आव्हॅक ला मॉराल ए ल् द्रुआ' (अर्थीक राजशास्त्राचेर निबंद. ताचे नीतीशास्त्र आनी न्यायशास्त्र हांचे लागीं संबंद).

५ जानेवारी १८६१ दिसा फ्रा. लु. गोमीश हाणें फ्रेंच कवी आल्फोंस द् लामार्तीन हाका पत्र बरयल्लें. तातूंत तो म्हण्टाः

उदेंतेकडल्या हिंद देशांत म्हजो जल्म जाला. हो देश म्हळ्यार काव्याचो, तत्त्वगिन्यानाचो आनी इतिहासाचो पाळणो. पूण आज तो तांचे थडें जावन आसा.

जांणी महाभारत महाकाव्य रचलें आनी बुध्दिबळाचो सोद लायलो त्या मनशांच्या वंशाचो हांव- ह्या दोनूय वस्तूंत अनंत आनी अगाध अशें किदेंयतरी आसा. पूण जो देश आंपले न्याय-नेम काव्यांत गुंथतालो आनी खेळांत राजकारण आस्पायतालो तो देश आतां जियेना. आपलेच भुंयेंत तो देश बंदी जाला. आपलेच गिरेस्तकायेक लागून तो दुबळो जाला आनी आपल्या वैभवाच्या उजवाडांत तो दिपून गेला. आपल्या पांदन्याच्या सरयांआड झुंजताना, ह्या पक्षाचीं पाखां गळून पडल्यांत. ह्या पाखांच्या आदारानूच तो हिमालयावयर उडणां मारतालो. आपल्याकडल्यान काडून घेतिल्ल्या स्वतंत्रतायेचेर आनी वगडायल्ल्या उजवाडाचेर हो बुलबुल पक्षी दुकां गाळटा. आदीं ताचें गीत सगळ्या मळबांत गाजतालें.

हांव हिंद देशापासत मागतांः स्वतंत्रताय आनी उजवाड!

हें पत्र म्हळ्यार भारतीय स्वातंत्र्याचो पयलो वयलो जाहीरनामो अशें म्हणूं येता.

फेर्नांदु लेयाद हो गोंयांत जल्मल्लो, पूण मागीर पोर्तुगालांत रावलो. हाणें दिय गार्द ल्त्सार (Dieu garde LeTsar) (देवा झाराक पाव) आनी लॅत्र आ मादम्वाझॅल मारीदनी स्यूर लिम्मॉर्तालिते पारिझिॲन्न (Lettre a Mademoisello Marie Deni sur l'immortalite Parisienne) हें पुस्तक ताणें 'रूजे द् ला प्रेस्कील' ह्या टोपण नांवांखाल बरयलां.

पाउलीन दीयश हाणें 'प्रीति-दास' ह्या टोपण नांवाखाल 'विष्णुलाल' ही कविता बरयली (१९१९). एक ब्राह्मण एके कुणबी चलयेचेर बलात्कार करता आनी मागीर ताका पश्चाताप जाता अशी हे कवितेची काणी. पाउलीन दीयश आपल्या काव्यांत भारतीय प्रतिमांचो आनी उतरांचो उपेग करता.

म्हापशेंच्या सेंट झेव्हियर कॉलेजांतलो फ्रेंच आनी पोर्तुगेज भाशांचो अध्यापक लीनु आब्रेव (Lino Abreu) हाणें 'लेत्र आ मादाम पॉम्मरॅ (मादाम पॉमरॅक पत्रां) (Lettres a Madame Pommeret) हें पुस्तक १९४७ वर्सा उजवाडायलें. पुण्याच्या वाडिया कॉलेजांतली अध्यापिका मादाम पॉम्मरॅ हिका बरयल्लीं हीं पत्रां. ह्या पत्रांत कवी गोंयच्या सैमाचीं वर्णनां करता, गोंयच्या गीतांविशीं उलयता. आपलो जल्मगांव दिवाडे आनी कळंगुटेची वेळ हांचो ताका चड मोग. तेचबराबर तो गोंयच्या म्हान मनशांचोय उगडास करता. पाउलीनु दीयश, नाश्सीमेन्तु मेन्दोन्स, फ्लोरियानु बार्रेतु, फ्रांसिश्कु लुईश गोमिश, जुझे कुश्तोदियु फारीय, गामापिन्तु आदी.

कार्लश येऊजेनियु फेर्रेर हाणें 'ले बाले धु कॉकां' (Les Ballets du concau) हें हिंदु लग्न सुवाळ्याची सोबाय दाखोवपी गीत कोंकणी आनी फ्रेंच भाशेंत रचलें. दोतोर आल्बेर्तु कार्लुश जेर्मानु सिव्ह कुरेय हाणें वैजकी मानवशास्त्र, इतिहास आनी अर्थशास्त्र ह्या विशयांचेर फ्रेंच भाशेंत सुमार तेरा पुस्तकां बरयल्यांत. १९३१ त उजवाडायल्ल्या 'ला व्रिएय्य गोआ' (La Vieille Goa) (पोरनें गोंय) ह्या पुस्तकांनी बरोवपी गोंयचो पोरनो इतिहास सांगता. ताचो प्रबंध 'लेझांफां, लेझादोलेस्सां ल्युझो-देसांदां द लॅंद पोर्तुगेझ. पांडुरंग पिसुर्लेकार आपल्या 'रॅशॅर्श स्यूर ला दे कुव्हॅर्त द् लामेरीक पार लेझांसियां ऑम द् लॅंद (Recherches sur la De'Couver to de l'Amerique Par les Ancieus Hommes de l'Inde) 'पोरन्या भारतीयांचो अमेरिकेचो सोद- एक संशोधन' हातूंत बरोवपी दक्षिण अमेरिका आनी भारत हांचे भितरल्या पोरन्या काळांतल्या संबंदाविशीं मत मांडटा. त्रिश्तांव द् ब्रागांझ कुन्य हाणें फ्रेंच भाशेंत जायतें बरप केलां. तातूंत ताचें हें पुस्तक म्हत्वाचें 'ला व्हेरिते स्यूर ले पोर्त्युग आ गोआ' (La Verite Sur Les Portugais a' Goa' - 1957) (गोंयच्या पोर्तुगेजांची सत गजाल). ह्या पुस्तकांत बरोवपी गोंयांतल्या पोर्तुगेजांच्या जुलमी आनी अन्यायी कारभाराचेर उजवाड घालता.

कॉन्शांसियु रॉक द कॉश्त हाणें पारीसांत भरिल्ले प्राचीविद्या पंडितांचे आंतरराश्ट्रीय परीशदेचे धावे बसकेक 'ले कोम्म्युनोते दे व्हिलाज आ गोवा' (Les Communante's des Villages a' Goa) (गोंयच्यो कोमुनिदादी) ह्या विशयाचेर निबंद वाचलो.

डॉ. काशिनाथ महाले हाणें 'भारत आनी रोमॉं रोलां' ह्या विशयाचेर प्रबंध बरयला तर डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हाणें 'फ्रांस देशांतली भारताची प्रतिमा' हाचे प्रबंध बरयला. ते भायर 'पोयॅम फ्रांसॅ (Poe'mes Franciais) हो कवितांझेलो आनी जायत्यो कथा बरयल्यात.

**गोंयचें मराठी साहित्यः** आदल्या काळासावन गोंयांत मराठी साहित्याची निर्मणी जायत आसा. सोळाव्या शतमानांत पोर्तुगेजांनी गोंयचें बरेचशें साहित्य नश्ट केलें, जातूंत मराठी साहित्याचोय आस्पाव आशिल्लो. सतराव्या शतमानासावन फुडें रचिल्लें साहित्य आयज

इतिहासकारांक मेळळां. ताचेवयल्यान गोंयच्या मराठी साहित्याच्या इतिहासाची वळख मेळटा.

**काव्यः** फादर स्टीफन्स हाचो 'ख्रिस्तपुराण' हो गोंयचो पयलो मराठी ग्रंथ असो सादारणपणान सगळ्या जाणकारांचो पयलीं समज आशिल्लो; पूण कृष्णदास शामा हाणें १५२६ वर्सा बरयिल्लें 'कृष्णचरित्रकथा' हें १९ अध्यायी काव्य हो पयलो मराठी ग्रंथ ही गजाल सिध्द जाल्या. उपरांत गोंयांत बरीच मराठींतल्यान काव्य बरपावळ जाली. 'ख्रिस्तपुराण' १६१४ वर्सा बरयिल्लें. एतियां द ला क्रुवा ह्या फ्रेंच पाद्रीन सेंट पीटरचेर १६२९ वर्सा पुराणग्रंथ बरोवन उजवाडायलो. नायकस्वामी (शंकर मंगेश नायक करंडे), आंतोनीयु साल्दान्य हाचीय काव्य बरपावळ त्याच काळांत उजवाडाक आयली.

अठराव्या शतमानांत महेश्वर भट्ट सुखठणकर, ताचो पूत शिवरामशास्त्री उर्फ सोयरुभट्ट आनी नातू रघुनाथशास्त्री उर्फ भोरुभट्ट हांणीय धर्मीक स्वरुपाची काव्य बरपावळ केली. हरि पंडित, विठ्ठलकवि केरीकर हे कवी ह्याच काळांत जाले अशें मानतात. नामनेचो संत सोहिरोबानाथ आंबिये हो पेडणें तालुक्यांतल्या मालपें गांवचो. ताचीय बरपावळ बरीच उंचेल्या पांवड्याची आसा.

एकुणिसाव्या शतमानांत लक्ष्मण पांडुरंग केंकरे, बहुगुण अ. कामत वाघ, पांडुरंग दादाजी उर्फ पांडबा कैसरे, पांडबा दुभाषी हीं नांवां मुखार येतात. दोंगरी हांगाचो कृष्ण जगन्नाथ भट्ट बांदकार, हिरबा नाईक सरदेसाई, राघोबा नायक सूजाक, रामचंद्र पांडुरंग वैद्य हांणीय बरीच काव्य बरपावळ केल्या.

सादारणपणान ह्या काळांतली काव्य निर्मणी भक्ति-गिन्यान-वैराग्य आनी पोरन्या काव्य-पुराण-इतिहास हातूंतल्यान प्रेरणा मेळिल्ली अशी आसा. माधव नारायण वैद्य, 'हेममुक्त संवाद' बरोवपी चिंतामण गणेश जोशी, रामचंद्र वामन नायक करंडेशास्त्री, 'कुमारसन्मार्ग दीपिका' सारकीं स्फुट काव्यां बरोवपी पेडणें हांगाचो दत्तात्रय तुकाराम शास्त्री पणशीकार, 'मेघदूत', 'अमरकोश' हांचो टिकाकार वासुदेवशास्त्री पणशीकार, 'श्रीचंद्रेश्वर महात्म्य', 'देवीचरितामृत' आदी ग्रंथांचो बरोवपी विष्णू रंगाजी शेळडेकर, रामकृष्ण अनंत काकोडकर, 'अभंग कुसुमावली' बरोवपी रुक्मिणीबाई केंकरे हींय नांवां तेच काव्य परंपरेंतल्यान मुखार येतात.

विसाव्या शतमानांत गोंयच्या मराठी काव्याक वेगळी प्रेरणा आनी वेगळें स्वरुप मेळळें. बाळकृष्ण भगवंत बोरकर, दामोदर अच्युत कारे, शंकर रामाणी, हांची पिळगी नवे उमेदीन काव्य बरपावळ करूंक लागली. विनायक स. सुखठणकार, पुरुषोत्तम मंगेश लाड हांणीय काव्य बरपावळ केल्या. 'देमांद महात्म्य' हें वि. का. प्रियोळकर हाचें आनी 'मानिफेस्त पुराण' हें ना. भा. नाईक हाचें विडंबनकाव्य गोंयच्या मराठी काव्यांत आस्पावतात. गोंयचे स्वतंत्रतायेउपरांत मराठी भाशेंतल्यान गोंयांत बरीच काव्य बरपावळ जाली. नरेंद्र बोडके, पुष्पाग्रज, सु. म. तडकोड, सुदेश लोटलीकर हे स्वतंत्रतायेउपरांतचे पिळगेंतले मुखेल कवी.

**कादंबरी, कथाः** कादंबरीच्या मळार पयलींच्या काळांत व्हडलीशी बरपावळ जाल्ल्याचें दिसून येना. विसाव्या शतमानापयलींच्यो भास्कर गोविंद रामाणी हाच्या नांवार उजवाडाक आयिल्ल्यो पूण रा. वा. ना. करंडेशास्त्री हाणें बरयिल्ल्यो 'साध्वी तारा' आनी 'गंगी आणि सूर्यराव' ह्यो कादंबऱ्यो उल्लेख करपासारक्यो आसात. विसाव्या शतमानांतले कादंबरी बरपावळींत वि. आ. कारापुरकर, रा. स. वागळे, सां. घ. कंटक, बा. भ. बोरकर, बा. द. सातोस्कर, लक्ष्मणराव सरदेसाई, व्यं. अ. पै रायकर, र. वि. सरमळकर, मो. ग. रांगणेकर, चंद्रकांत काकोडकर, स. शं. देसाई, दत्तात्रय किर्तनी हीं नांवां मुखेलपणान दिसतात.

कथेच्या मळार यशवंतराव सरदेसाई, शिवाजी दत्तू महात्मे, वि. स. सुखठणकर, लक्ष्मणराव सरदेसाई, जयवंत सरदेसाई, बा. भ. बोरकर, सां. घ. कंटक, बा. द. सातोस्कर, महादेवशास्त्री जोशी, जनार्दन शिंक्रे, हरि विठ्ठल देसाई, ना. के. शिरोडकर, काशिनाथ घोडे, व्यंकटेश अनंत पै रायकर, मनोहर हिरबा सरदेसाई, स्नेहलता वैद्य हांणी बरपावळ केल्या.

स्वतंत्रतायेउपरांत सुभाष भेंडे, वि. ज. बोरकर, अरुण हेबळेकर, यशवंत कर्णिक हांणी कथा-कादंबरीच्या मळार नामना जोडली. वासंती नाडकर्णी, सुरेश वाळिंबे, गणाधीश खांडेपारकर, लक्ष्मीदास बोरकर, जयराम पां. कामत, मुनीर शेख, ग. खं. पवार, सुधाकर प्रभू, डॉ. विठ्ठल ठाकूर, गुरुनाथ नाईक, ज्ञानेश्वर कोलवेकर, मुरलीधर कुलकर्णी, सुशांता नेसरीकर हांणीय ह्या मळार आपापले परीन बरपावळ केल्या.

**नाटकः** स्वतंत्रतायेपयलीं कादंबरी आनी कथांपरस गोंयांत मराठी नाटकां बरोवप्यांची संख्या चड आशिल्ल्याचें दिसून येता. एकुणिसाव्या शतमानांत कृष्णभट्ट बांदेकर हाणें नाटकां बरयिल्ल्याचें दिसून आयलां. तेच प्रमाण महाराष्ट्रांतलो व्हड नाटककार अण्णासाहेब किर्लोस्कर नोकरेच्या निमतान गोंयांत आसतना ताणें हांगा रावन नाटकां बरयिल्ल्याचें समजता.

विसाव्या शतमानांत आपलीं नाटकां उजवाडाक हाडपी कांय मुखेल नाटककार अशे आसातः नारायण अ. कामत, विश्वनाथ हेदे, माधव हेदे, कृष्णराव अस्नोडकर, रामचंद्र वैद्य, भीमाजी देशपांडे, दत्तू काटकर, बाळकृष्ण नाटेकर, अनंत कामत, व्यंकटेश वैद्य, हिराबाई पेडणेकर, काशिनाथ विर्डीकर, ना. के. शिरोडकर, बा. शि. शिरवईकर, मो. ग. रांगणेकर, सखाराम पां. बर्वे, हरिविठ्ठल देसाई, रामचंद्र केणी, रमाकांत सरमळकर, काशिनाथ घोडे, अनंत र. टोपले, राजाराम वायंगणकर, शंकर पेडणेकर, वासुदेव वाघ.

स्वतंत्रतायेउपरांत नाटकांच्या बरपावळीच्या मळार वावुरपी लेखक म्हळ्यार चंद्रकांत पार्सेकर, जयानंद मडकईकर, सुहास सावर्डेकर, रमाकांत पायाजी, र. अ. टोपले, कृष्णा मोये, महाबळेश्वर रेडकर, साईदास आपटे आनी गोकुळदास मुळावी.

**इतिहास, निबंध आनी प्रबंधः** इतिहासाविशीं बरयिल्लो पयलो ग्रंथ म्हळ्यार १७२१ तलो 'कोंकणाख्यान'. ह्या ग्रंथाच्या बरोवप्याचें नांव मेळना. हाचे उपरांत बहुगुण सदाशिव कामत वाघ (धाकलो) हाणें बरीच इतिहासीक स्वरुपाची बरपावळ केल्या. पध्दतशीर स्वरुपांत 'गोमन्तकाचा इतिहास' हो ग्रंथ १८७५ त यशवंत फोंडबा नायक दणाईत हाणें रामचंद्र गोविंद वागळे हाच्या पालवान बरोवन उजवाडाक हाडलो. रावराजे वासुदेव आत्माराम देशप्रभु आनी गोपीनाथ कुराडे हांणीय इतिहासिक पुस्तकां बरयल्यांत. प्रो. पांडुरंग सखाराम पिसुर्लेकर आनी प्रो. अनंत काकबा प्रियोळकर हांणी इतिहासाविशीं बरीच बरपावळ केल्या. ह्या दोगांकूय तांचे बरपावळीक लागून नामना मेळळ्या.

हेभायर विनायक रामचंद्र सरज्योतीषी, दत्तात्रय पै, बाळकृष्ण सावर्डेकर हांणी इतिहासाविशींची बरपावळ केल्या.

धर्मानंद कोसंबी हाणें इतिहासावेले आपले बरपावळीक लागून देशभर नामना मेळयली. हेभायर संस्था, देवस्थानां हांच्या इतिहासाविशीं गोंयच्या बऱ्याच मराठी लेखकांनी बरपावळ केल्या.

गंगाराम गोविंद प्रभू सिनारी हाणें संस्कृतायेविशीचे लेख बरयल्यात. निबंध-प्रबंध पध्दतीची बरपावळ करपी बरेच मराठी लेखक जावन गेल्यात. हातूंत इतिहासीक बरपावळ करपी कांय जाणांचीं नांवां आसातूच; पूण कांय हेर मुखेल नांवां अशीं: शांबाराव सरदेसाई, रामचंद्र शंकर नायक, जनार्दन विष्णू कामत, सुब्राव रा. सामंत, विठ्ठल सुखठणकर, शिवा फटू पै आंगले, यशवंत सूर्यराव सरदेसाई, व्यंकटेश रामचंद्र नायक, घनःश्याम मळकर्णेकर, मुकुंद सदाशिव शेळडेकर, पु. मं. लाड, ह. वि. देसाई. वामन रघुनाथ वर्दे वालावलकर (शणै गोंयबाब) हाचे 'काही मराठी लेख' हेंय पुस्तक उल्लेख करपासारकें आसा.

धर्म आनी तत्त्वगिन्यानाविशीं सुब्राय लक्ष्मण नायक शंखवाळकर, सदाशिव रावजी गडणीस, भार्गव सगुण कामत वाघ, श्री. मदिंदिराकान्त स्वामी, रा. कृ. कामत चंदगडकर, बाळकृष्ण र. पणशीकर, महादेवशास्त्री जोशी हांणी बरपावळ केल्या.

बा. द. सातोस्कर, काशीनाथ दामोदर नायक, विनायक खेडेकर, ज. स. सुखठणकर, मलबाराव सरदेसाई, र. वि. प्रभुगांवकर, डॉ. विनायक मयेकर, लक्ष्मीकांत भेंब्रे, वामन राधाकृष्ण, नारायण देसाई, के. ना. बर्वे, डॉ. वि. बा. प्रभुदेसाई, गंगाधर म्हांबरे, प्रल्हाद वडेर, अशोक जोशी, रवींद्र घवी, रवींद्र केळेकर, सीताकांत लाड, अनंत धुमे, दाजी पणशीकर, प्रकाशचंद्र शिरोडकर, रत्नकांत रामनाथकर हे नवे आनी पोरले पिळगेंतल्या लेखकांनी गोंयच्या मराठी साहित्यांत भोव मोलादीक वावर केला.

गोंयांत पयलींसावन उजवाडाक येवपी कांय वेंचीक मराठी नेमाळ्यांचीं नांवां अशीं: देशसुधारणेच्छु, गोवामित्र, गोवात्मा, आर्यबंधु, गोवापंच, श्रीखंड, न्यायचक्षु, सुविचार, गोमन्तक, हितचिंतक, हिंदुमत, प्रभात, भारत, विद्याप्रसार, स्वयंसेवक, हिंदू, गोमन्त, पथ्यबोध, सत्संग, चित्ताकर्षण, प्राचीप्रभा, नापितोदय, भारतोदय, भारतमित्र, आर्यविज्ञान, सुबोध, युगांतर, प्रभात, कला, प्रदीप, गोमन्तकाची अस्मिता, दूधसागर.

- कों. वि. सं. मं.

**गोंय-२ :** ओल्ड गोवा वा व्हेल्य गोवा. तिसवाडी तालुक्यांतलो एक गांव. अक्षांश १५° ३०' ३०'' उत्तर आनी रेखांश ७३° ५४' ३०'' उदेंत. हो गांव गोमती (मांडवी) न्हंयच्या कांठार वसला. ह्या गांवाक एका काळार 'उदेंतेचें रोम' अशें म्हण्टाले. हांगा उदेंत आनी अस्तंत देशांच्या वेपाराचें दिवप-घेवप जाताली. ह्या गांवची कला, संस्कृताय, देव-दैवतां, संवसारीक नामनेच्यो इगर्जी हांची सासाय खूब व्हड जावन आसा.

ओल्ड गोवा ही पोर्तुगेजांचे मुस्तींत इ.स. १८४३ मेरेन गोंयची राजधानी आशिल्ली. उपरांत ही राजधानी पणजी ह्या शारांत व्हेली. तेन्नासावन पयलींचे राजधानीक 'व्हेल्य गोअ' (Velha Goa= Old Goa) आनी नवे राजधानीक 'नोव्ह गोअ' (Nova Goa म्हळ्यार New Goa) अशें म्हणूंक लागले.

आयज ओल्ड गोवा हांगा म्हत्वाच्या इमारतींचे पूर्विल्ले अवशेश सोडल्यार आनीक कांयच उरूंक ना. ह्या शाराक तेन्ना भोंवतणी तटबंदी आशिल्ली. तातूंत भितर हेर इमारतींवांगडा आयच्या सेंट कॅथरीन कपेलाचे अस्तंतेक Ribeira Grande (Great Embankment) म्हळ्यार तोफखानो आनी टंकशाळा आशिल्ली. तेचप्रमाण ते तटबंदींत सांत कातारीनचो धक्को, आर्चबिशपचो कैदखानो, आल्जूब, सेंट मार्टीनचें कपेल, सांत बोअ व्हेन्तूर कॉलेज आनी राजाचें ओश्पिताल आशिल्लें. पोर्तुगालासावन येवपी वेपारी जहाजांखातीर Ribeira das Gales हो धको आशिल्लो. राजधानीच्या कामकाजाचें आनी वेपाराचें केंद्र Terreiro Grande आशिल्लें. व्हिसेरैची पलास आशिल्ली, ताका 'फोर्ट पॅलेस' अशें म्हण्टाले. कस्टम हाऊस, पालासीचो चौक 'तेरैर दू पासु' आशिल्लो. ताचे उदेंतेक शाराचो व्हडलो बाजार (बाझार ग्रांद) आशिल्लो. बाजाराचे दक्षिणेक आनी पलासीचे अस्तंतेक व्हिसेरैच्या आर्काकडल्यान वचपी गोंयचो त्या काळांतलो नामनेचो रुआ दिरैत मार्ग (२ किमी.) आशिल्लो. भौशीक पावणेची सुवात ह्याच मार्गार आशिल्ली.

आयज जे सुवातेर 'ओल्ड गोवा' धको आसा, ताका तेंकुनूच पयलींचें प्रवेशद्वार आशिल्लें. थंयच व्हिसेरैचें आर्क आसून तें काळ्या पाशाणान बांदलां. ताका Arco-dos-vice-reys अशें म्हण्टात.

व्हिसेरै आर्काच्या दावे वटेन आदिलशहाच्या किल्ल्याचें महाद्वार आसा. मुखेल दार काळ्या पाशाणाचें आसा. थंय वचपाक स सपणां आसात. किल्ल्याचें कोरीव काम पक्कें हिंदू शैलीचें जावन आसा. हें बांदकाम तेन्नाचो गोंयचो राजा साबाजी हाणें केल्लें. हो किल्लो आदिलशाही बादशहांनी गोंयचेर पोर्तुगेजांनी धुरी घालपाआदीं काबिज केल्लो. किल्ल्याची पालास वा Palacio de Fortaleza हो पोर्तुगेज व्हिसेरैचो राबीतो आशिल्लो.

सी कॅथेड्रल ही ओल्ड-गोवाचे इगर्जींभितरली प्रतिभाशाली इमारत उदेंतेक तोंड करून उबी आसा. हे इगर्जीक ३ कमानी दरवटे आसात. हे इगर्जीच्या भायल्या बांदकामाची शैली तुस्कान डोरीक प्रकारची आनी भितरल्या रेखीव बांदकामाची शैली मोझेक-कोरींथियन प्रकारची जावन आसा. उजवे वटेन चार कपेलां आसात. पयलें-सेंट अँथनीचें, दुसरें- सेंट बर्नार्डचें, तिसरें- मिरेकल्स क्रॉसचें आनी चवथें- होली स्पिरिटचें. दावे वटेन चार कपेलां आसातः पयलें- नॉस्स सिंयॉर दे नेसेसिदादूश, दुसरें- सां सेबाश्तियांव, तिसरें- सांतु साक्रामेंत आनी चवथें- नॉस्स सिंन्योर द बोअ व्हीद.

इंकिझिसांवाची इतिहासीक सुवात कॅथेड्रल चौकाचे दक्षिणेक आशिल्ली. हे व्हडले इमारतींत खूब सालां, घरां, कैदखाने, कपेल, सभाघर आनी त्रिबुनाल (न्यायालय) आशिल्लीं. सभाघराक 'मेझ दु सांतु ऑफिसियु' (Board of Holy Office) अशें म्हण्टाले. इंकिझिसांव त्रिबुनाल (कोर्ट) 'पॅलेस ऑफ इंकिझिसांव' च्या सभाघरांत भरतालो. पूण ख्यास्त दिवपाचें काम से कॅथेड्रल वा बाँ जीझस इगर्जींत 'आउतु द फे' (Auto da Fe') जाल्याउपरांत जातालें. इंकिझिसांवाच्या वाडट्या अत्याचारांक लागून पोर्तुगालचो प्रधानमंत्री मार्कूस दे पोंबाल हाणें १७७४ वर्सा गोंयचे इंकिझिसांवाची शाखा बंद केली.

सेंट फ्रांसिस ऑफ असीसीचें कॉन्व्हेंट से कातेद्रालाचे अस्तंतेक आसा. तें १५१७ वर्सा फ्रांसिस्कन अनुयायांनी बांदिल्लें. १७६२ वर्सा आनी १७६५ वर्सा तें परत बांदलें. कॉन्व्हेंटाक तेकुनूच 'सेंट फ्रांसिस ऑफ असीसी' इगर्ज आसा. ही इगर्ज १५२१ त बांदिल्ली पूण १६६१ त पर्थून नव्यान बांदली. सेंट फ्रांसिस ऑफ असीसीच्या कॉन्व्हेंटांत आनी इगर्जींत सतराव्या शेंकड्यांतली धर्मीक कला पळोवंक मेळटा. इगर्जे बांदपाची शैली तुस्कान प्रकारची, पोर्तुगेज गोथिक वा मानुएलीन शिल्पकलेचे प्रकारची जावन आसा. भितर सेंट फ्रांसिस ऑफ असीसीचो लांकडी पुतळो आसा. तेचप्रमाण लांकडाचेर कोरीवकाम केल्लीं सेंट फ्रांसिस ऑफ असीसीचीं चित्रां आसात.

कातेद्रालाचे दावे वटेन कांय अंतराचेर बाँ जेजू बॅझिलिकाची सां फ्रांसिश्कु शाव्हिएर ह्या म्हान संताची इगर्ज आसा. सां फ्रांसिश्कु शाव्हिएराची कूड हातूंत व्हडा भोवमानान दवरल्या. 'बाँ जेझू' म्हळ्यार बरो, कृपावंत जेझू वा ल्हान पिरायेचो जेझू (Infant Jesus) हाची ही सोबीत इगर्ज. हाच्या फुडल्या दर्शनी भागाचेर IHS (लॅटीन भाशेंत जेजूक Iesus Hominum Salvator अशें म्हण्टात) हीं उतरां कोरांतल्यांत. ही इगर्ज १५९४ वर्सा दाँ जेरोनिमु मास्कारेन्हास हाणें बांदली. १६०५ वर्सा ताची पवित्रताय जाहीर जाली. ताका बॅझिलिकाचो पांवडो १९४६ वर्सा पोप पायश् १२ हाचे हस्तुकीं मेळ्ळो. हाचो अस्तंतेकडलो दर्शनी भाग आयोनीक, डोरीक, कोरींथियन शैलीच्या बांदकामाचो आसून पळेतल्याचें लक्ष ओढून घेता. उत्तरेक तीन पडभिंती आसात. हो भाग पाशाणान बांदला आनी ताची उंचाय २३.७ मी. आनी रुंदाय २२.८ मी. आसा. इगर्जेफाटल्यान घांटीचें तेमक आसा.

इगर्जेचो भितल्लो भाग मोझेक-कोरींथियन शैलीचो आसून भोव सुंदर आसा. ताची लांबाय ५५.७७ मी., रुंदाय १६.७७ मी. आनी उंचाय १८.५९ मी. आसा. हे इगर्जेक सोबीत जनेलां आसात. वण्टींक धवो रंग आसा आनी कडांक भांगराचो वर्ख मारला.

सां फ्रांसिश्कु शाव्हिएराचे पवित्र कुडीचें कपेल दक्षिणेक आसा. लांकडाचें सोबीत कोरीवकाम केल्लें हें कपेल १६५९ वर्सा बांदलें. सांताची पवित्र कूड गोंयच्या शेटींनी तयार केल्ले चांदीचे पेटयेंत १६३७ वर्सा दवरली. कपेलांत भितर सांताचे जिणेचेर आदारीत लांकडाचेर कोरीवकाम केल्लीं रंगीत चित्रां आसात. सां फ्रांसिश्कु शाव्हिएराचें वर्सुकी फेस्त दर वर्सा ३ डिसेंबराक जाता. त्या दिसा आयतार आयलो जाल्यार हें फेस्त २ डिसेंबरा दिसा जाता. ४२२ वर्सांच्या सां फ्रांसिश्कु शाव्हिएराचे पवित्र कुडीचें तेरावें प्रदर्शन १९७४-७५ वर्सा व्हडा दबाज्यान मनयलें. गोंयच्या देशी आनी विदेशी मेळून ९ लाख लोकांनी ताचें दर्शन घेतलें.

तेभायर सांत कातारीन हिचें कपेल, सांतु आंतोनियु हाचें कपेल,

अवर लेडी ऑफ रोझरीचें कपेल अशीं कितलीशींच कपेलां, ओल्ड गोवा हांगा दिसतात. पोर्तुगेजांचे मुस्तींतलीं आनीकूय कांय कपेलां आनी कॉन्व्हेंटांचे मोडके पूर्विल्ले अवशेश दिसून येतात.

ह्या गांवांत सेंट फ्रांसिस ऑफ असीसीचे इगर्जेसामकार Archaeological Survey of India चें पुराणवस्तू संग्रहालय आसा. तातूंत गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांनी मेळिल्ले पूर्विल्ले अवशेश आनी मूर्ती आसात. ह्या वस्तुसंग्रहालयाच्या प्रवेशदाराचेर पोर्तुगेज गोव्हेर्नादोर आफोंस द आल्बुकेर्काचो (१५०९-१५१३) व्हडलो पुतळो आसा.

गोंय राज्य आनी केंद्र सरकार (ICAR Research Complex) हांचीं २ कृषी संशोधन केंद्रां ह्या गांवांत आसात. हांगाच्या बाजारांत पांच रस्ते एकठांय जातात थंय मदीं महात्मा गांधीचो व्हडलो पुतळो आसून गांधीजी एके हरिजन चलयेच्या खांदार हात घालून उबो आसा, अशें दाखयलां. हो पुतळो काशाचो आसून ९ फूट ऊंच आसा. १४ फूट उंचायेच्या चौथऱ्याचेर हो पुतळो उबारला आनी चौथऱ्याच्या चारुय वटांनी सुविचार बरयल्यात.

ओल्ड गोवासावन लागींच ब्रह्मपुरी हांगा गोमंतेश्वर वा गोवेश्वर हें शिवाचें देवूळ आसा. अशें म्हण्टात की बहामनी राजांनी गोमंतेश्वर देवळाची नाशाडी केली, पूण विजयनगरचो राजा माधव मंत्री हाणें हें देवूळ पर्थून बांदलें. ताच्या उगडासाखातीर ह्या देवळाचे तळयेक 'माधव तीर्थ' अशें म्हण्टात. हें देवूळ सुमार पंदराव्या शेंकड्यांत बांदिल्लें, पूण ताचो जीर्णोध्दार शके १८६९ म्हळ्यार १९४७ वर्सा केलो. हें इतिहासीक नामनेचें देवूळ नाभिक समाजान बांदलें. हांगा महाशिवरात्रेचो उत्सव मोट्या थाटांत मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**गोंय विद्यापीठ:** १९८५ त गोंय विद्यापीठाची स्थापना जाली. ताचे पयलीं गोंयच्या पदव्युत्तर पांवड्यावेल्या शिक्षणाची जापसालदारकी, मुंबय विद्यापीठाचें पदव्युत्तर केंद्र सांबाळटालें. गोंयचीं सगळीं महाविद्यालयां लेगीत मुंबय विद्यापीठाक संलग्न आशिल्लीं. ह्या पदव्युत्तर केंद्रांत १३ विशय-विभाग आनी २१ शिक्षक आशिल्ले. गोंय विद्यापीठाची स्थापना जातकच वट्ट २४ विशय-विभागांवरवीं हांगा शिक्षण दिवपाची तजवीज जाली.

गोंय विद्यापीठान सुर्वेक बांबोळी हांगासावन गोंय वैजकी महाविद्यालयाच्या इमारतींनी आपलो वावर सुरू केलो. उपरांत ताळगांव पठाराचेर बांदिल्ल्या नव्या प्रकल्पांत फेब्रुवारी १९९० सावन ल्हव ल्हव एकेक विभाग हालोवपांत आयलो. ह्या नव्या प्रकल्पांत प्रशासकीय विभाग, कला, वाणिज्य आनी विज्ञान विभाग तशेंच वाचपाघर, वसतीघरां, खेळांमैदान, शिक्षकांक आनी हेर कर्मचाऱ्यांक रावपाखातीर बांदिल्लीं घरां ह्या गजालींचो आस्पाव जाता. हाचे फुडें मार्केट प्रकल्प आनी हेर सुविधा हांगा उबारपाची मोख आसा.

हेर विद्यापीठांनी आसपी विशय-विभाग सोडून गोंय विद्यापीठांत पोर्तुगेज, कोंकणी, लॅटीन अमेरिकन स्टडीज, मरीन बायोटेक्नॉलॉजी हे खासा विभाग जावन आसात. सद्या ३० महाविद्यालयां ह्या विद्यापीठाकडेन संलग्न आसात.

कोंकणी विश्वकोश हो कोंकणी भाशेंतलो पयलोच म्हायती कोश तयार करपाचो प्रकल्प गोंय विद्यापीठान हातांत घेतला. तशेंच गोंयचो समाजीक, अर्थीक, राजकी, सांस्कृतिक आनी साहित्यीक इतिहास बरोवपाचो प्रकल्प विद्यापीठान हातांत घेतला. तेभायर विद्यापीठान, गोंय संबंदी विंगड विंगड विशयांचेर संशोधनात्मक ग्रंथ उजवाडाक हाडपाच्यो येवजणी आंखल्यात.

विद्यापीठांत दर शिक्षणीक वर्सा शिक्षणीक म्हत्वाच्या कार्यावळींचें आयोजन जाता. डॉ. बी. शेख अली हो विद्यापीठाचो पयलो उपकुलगुरु निवृत्त जातकच, ऑक्टोबर १९९१ सावन डॉ. पी. आर. दुभाषी हो विद्यापीठाचो उपकुलगुरु म्हूण काम पळेता.

- कों. वि. सं. मं.

**गोंसाल्व्हिश एरकुलानु दामासेन:** (जल्म: ?, बाणावली).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. सँट आलेक्स हे धर्मसभेचो तो संस्थापक जावन आसा. गोंयांत बारदेस म्हालांतल्या कळंगूट वाठारांत आशिल्ले हे धर्मसभेक, सद्या 'हॅन्डमेड्स ऑफ क्राईस्ट' (Handmaids of Christ) ह्या नांवान वळखतात. १९३० वर्सा ताणें थंय एक अनाथाश्रम सुरू केलो आनी १९३१ वर्सा एक शाळा सुरू केली. उपरांत कांय उमेदी चलयो ताका मेळ्ळ्यो आनी तांच्या पालवान ताणें १९३४ वर्सा 'पायस असोसिएशन' (Pious Association) ही संस्था सुरू केली. फुडें १८४९ वर्सा हे संस्थेचें धर्मसभेंत रुपांतर जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**गोंसाल्व्हिश जुजे कायतान:** (जल्म: ?; मरण: १९७८).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. ताचो मूळ गांव अडफडें (Arpora). १८५८-६९ काळांत तो गोंयच्या कॅथेड्रलाच्या धर्माची नेमावळ पळेतालो. १८६९-७१ काळांत तो गोंयचे आर्किडायोसीसचो व्हिकार जनरल आशिल्लो. १८७४-७८ मेरेन मुखेल धर्माध्यक्ष (prelate) म्हूण ताणें मुझांबीक ह्या वाठारांतलो अधिकार चलयलो. पूण ताका बिशपपणाची दीक्षा मेळ्ळी ना.

- कों. वि. सं. मं.

**गोंसाल्व्हिश, राऊल निक्लाव:** (जल्म: १५ जून १९२७, बांबोळी-तिसवाडी).

गोंय आनी दमण वाठारांचो आर्चबिशप, तेचपरी ईस्ट इंडिजाचो तो पात्रिआर्क आशिल्लो. ताचें शिक्षण राशोल सेमिनारींत जालें. डिसेंबर १९५० त पाद्री म्हूण ताची नेमणूक जाली. ऑगस्ट १९५४ त राशोलचे पॅट्रिआर्कल सेमिनारींत तो प्राध्यापक जालो. १९५६ त तो साळगांव-पिळर्णच्या मायनर सेमिनारी ऑफ अवर लेडीचो रेक्टर जालो. १९६२-६४ ह्या काळांत तो 'आपॉस्तॉलीक न्युन्सिएचर' (नवी दिल्ली) चो सेक्रेटरी आशिल्लो. सप्टेंबर १९६४ त 'पास्तोरल इन्स्टिट्यूट सांत पायश' चो तो संचालक जालो. १९६७ वर्सा तो गोंय आनी दमण वाठाराचो बिशप सहाय्यक जालो. १९७२ वर्सा तो आर्किडायोसीजांचो आपोस्तोलीक प्रशासक (Administrator Apostolic) जालो. उपरांत ताका गोंय आनी दमण वाठाराचो आर्चबिशप म्हूण पदवी मेळ्ळी. १९७८ वर्सा तो ईस्ट इंडिजाचो 'पेट्रिआर्क आदऑनोरेम' (Patriarch adhonorem) जालो. ही पदवी घेवपी तो पयलोच गोंयकार आनी पयलोच भारतीय जावन आसा. सद्या आर्किडायोसीजांखातीर तो तळमळीन वावर करता.

- कों. वि. सं. मं.

**गोकर्ण-१:** कर्नाटक राज्याच्या उत्तर कानडा जिल्ह्यांतल्या कुमठा तालुक्यांतलें नामनेचें तीर्थक्षेत्र. दर्या देगेर, कारवारसावन सुमार ३६ किमी. आनी कुमठा बंदर सावन १६ किमी. अंतराचेर गोकर्ण आसा. गोकर्णाची गणना भास्करक्षेत्रांत जाता. रामायण, महाभारत, भागवतपुराण आनी शिवपुराण ह्या ग्रंथांनी गोकर्णाचो उल्लेख आयला. 'गोकर्णमाहात्म्य' नांवाचो एक स्वतंत्र ग्रंथ आसा. हांगाच्या महाबळेश्वरच्या देवळांतलें लिंग हें शिवाचें आत्मलिंग आशिल्ल्यान पूर्विल्ल्या काळासावन तें नामनेक पावलां. रावणान हांगा तप केल्लें. इंद्रान आपलीं पातकां धुवपाखातीर गोकर्णाक अनुश्ठान केल्लें. बलरामान गोकर्णाक तीर्थयात्रा केल्ली. नारद, सनत्कुमार, प्रल्हाद, शंकराचार्य ह्यो विभूती ह्या क्षेत्रांत येवन गेल्यात, अशें म्हण्टात.

गोकर्णक्षेत्राची निर्मिती कशी जाली, ताचेर एक कथा प्रचलित आसा, ती अशी:

रावणाचे आवयन रावणाक सांगलें, 'कैलासाक वच आनी म्हादेवाकडल्यान ताचें लिंग मागून हाड.' तेखातीर रावण हिमालयांत गेलो आनी खर तपाक बसलो. म्हादेव ताचेर प्रसन्न जालो. रावणाचे मागणेप्रमाण ताणें आपलें काळीज चिरून आत्मलिंग काडलें आनी तें रावणाक दिलें. रावण तें घेवन लंकेक वचपाक गेलो. म्हादेवान आपलें

आत्मलिंग रावणाक दिल्यान त्रिभुवनांत सगळेकडेन बोवाळ जालो.

तें लिंग लंकेंत पावचें न्हय म्हूण देवांनी एक कट रचलो. तांणी तेखातीर गणपतीक नेमलो. रावण लिंग घेवन गोकर्णाक पावलो, तेन्ना तिळसांज जाल्ली. आतां संध्यावंदन करून वरुणाक अर्ध्य दिवपाचें, पूण जमनीर दवरल्यार आत्मलिंग घट जाता म्हूण कोणाच्या तरी हातांत तें दिवपाक जाय, अशें रावण चिंततालो. गणपतीन ही संद सादली आनी गोरवांचो राखणो जावन थंय पावलो. ताका पळोवन रावणान म्हळें, 'थोडे वेळ मात्शें हें लिंग सांबाळ'. राखण्यान म्हळें, 'सांबाळटां. पूण जड जालें जाल्यार हांव सकयल दवरतलों.' ताचेर रावणान म्हळें, 'लिंग सकयल दवरचेपयलीं म्हाका तीनदां उलो मार.' राखण्यान तें मान्य केलें. रावण संध्या करपाक गेलो. ताणें आचमनाक सुरवात केल्या मात, पयलो उलो आयलो . अघमर्षण जाता थंय आसा दुसरो आनी अर्ध्य घेवपाक तिसरो उलो आयकूंक आयलो. रावण धांवत वचून पळेत जाल्यार राखण्यान तें आत्मलिंग जमनीर दवरलां. रावणान आपल्या वीस हातांनी तें हुमटुपाचो यत्न केलो, पूण ताचे कुडकेच आयले. लिंग मात जाग्यावेल्यान हाल्लेंना. रावण थकलो. ताणें तिडकीचे भिरकेंत राखण्याचे तकलेर एक मूठ माल्ली. पूण लिंग मात थंयच सासणाचें प्रतिश्ठित जावन उल्लें.

गोकर्ण ह्या नांवाफाटल्यान आनीक एक कथा आसा ती अशी:

ब्रह्मदेवान म्हादेवाक सृश्ट निर्माण करपाक सांगलें. खूब दीस जावन गेले तरी म्हादेवान तें काम केलेंना. देखून, ब्रह्मदेवान स्वताच पृथ्वी तयार केली. ताका लागून म्हादेवाक राग आयलो आनी तो उदकांतल्यान वयर येवन पृथ्वीक धक्के मारपाक लागलो. पृथ्वीन गायचें रूप धारण करून म्हादेवाक विनंती केली की, 'म्हाका धक्के मारून म्हजो असो छेद करूं नाका. म्हज्या कानांतल्यान भायर यो.' तेप्रमाण म्हादेव त्या गायच्या कानांतल्यान प्रकट जालो. ज्या जाग्यार हें घडलें, त्या जाग्याक 'गोकर्ण' (अर्थ- गायचो कान) अशें नांव पडलें.

गोकर्णाचे अस्तंतेवटेन दर्या आसा. हे दर्यादेगेर रावन गांवार नदर घाली जाल्यार गांवाचो आकार गायच्या कानाभशेन दिसता. देखून, ह्या गांवांक 'गोकर्ण' अशें नांव पडलें, अशी आनीक एक आख्यायिका आसा.

स्कंद पुराणांतल्या ब्रह्मोत्तर खंडांत (२.८१-८४) गोकर्ण-माहात्म्य सांगलां तें अशें-

शृणु राजन् महाभाग क्षेत्रमन्यत् प्रतिष्ठितम् ।।
महापातकसंहारि गोकर्णाख्यं मनोहरम् ।
यत्र स्थितिर्न पापानां महद्भ्यो महतामपि ।।
स्मृतो ह्यशेषपापघ्नो यत्र सन्निहितः शिवः ।
यथा कैलासशिखरे यथा मन्दारमूर्धनि।।
निवासो निश्चितः शम्भोस्तथा गोकर्णमण्डले ।

अर्थ- महाभाग राजा, आयक. गोकर्ण नांवाचें सोबीत, सुंदर आनी म्हापातकांचो नाश करपी एक नामनेचें क्षेत्र आसा. ते सुवातीर मोट्यांत मोटें पातक लेगीत धुवन वता. कारण थंय पापांचो संहार करपी म्हादेव प्रत्यक्ष रावता. जे भशेन कैलास आनी मंदार ह्या पर्वतांचेर म्हादेवाचो राबीतो आसता, तेचभशेन तो गोकर्ण क्षेत्रांतूय आसा, अशें म्हण्टात.

गोकर्णाविशींचो पयलो इतिहासीक आनी विश्वसनीय उल्लेख इ.स. च्या ८ व्या शेंकड्यांत आयला. दुसऱ्या कदंब राजघराण्याचो प्रस्थापक मयूरवर्मा हाणें गोकर्णाच्या राजकुंवराक आपली भयण दिल्ली, अशें तातूंत म्हळां. इ.स. १५०८ वर्सा विजयनगरच्या कृष्णराय ह्या सम्राटान गोकर्णाची भोंवडी करून थंय आपली सुवर्णतुला केली, अशें एका पोर्तुगेज लेखकान बरोवन दवरलां. इ.स. १६६५ वर्सा छत्रपती शिवाजी म्हाराजान गोकर्ण क्षेत्राक भेट दिल्ली, असो एक उल्लेख आसा.

हांगाच्या महाबळेश्वर देवळांतलें आत्मलिंग भूंयगत आसा. पिंडीचे मदीं एका खळग्यांत आंगुळभर लांब आनी तितलेंच ऊंच अशें हें आत्मलिंग आसा. चाळीस वर्सांनी एकदां हांगा 'अष्टबंध' उत्सव जाता. त्या वेळार वयली पिंडी काडून त्या जाग्यार नवी पिंडी बसयतात. पिंडी काडटकच जमनींतलें गुप्त शिवलिंग पळोवपाक मेळटा. ताचेर रावणाच्या बोटांचे ठशेय दिसतात, अशें म्हण्टात. दर उमाशेक आनी सोमप्रदोषाचे रातीक हांगा दिवाळेभशेन फोग लायतात. माघ वद्य दशमीसावन फाल्गुन शुध्द द्वितीयेमेरेन चलपी उत्सवांतलो 'महाशिवरात्र' हो खास महोत्सवाचो दीस हांगा व्हडा उर्बेन आनी उमेदीन मनयतात. महाबळेश्वर मंदिराची बांदावळ द्राविड पध्दतीची आसून तें बारा ज्योतिर्लिंगांतलें एक लिंग जावन आसा. ह्या देवळाची गर्भकूड व्हडली आसून सोबीत सभामंडप आसा आनी थंय ब्रह्मा, विष्णु, म्हादेव, अगस्ती, राम, रावण, ताम्रगौरी, गणपती ह्या देवांचीं ल्हान देवळां आसात. तेचप्रमाण कोटितीर्थ नांवाचें एक व्हड कुंड लेगीत आसा. शिखर सुमार ६० फूट उंचायेचें आसा आनी सभामंडप ६०×४० फूट इतलो आसा. सभोंवतणीं अगरसाळ आसा. हें देवूळ जक्कणाचार्य नांवाच्या वास्तूशास्त्रज्ञान बांदलां अशें म्हण्टात.

ज्या दोंगराच्या मुळसाक गोकर्ण वसलां, त्या शतशृंग दोंगराचेरूय ऋषी-मुनींचीं तपस्थानां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**गोकर्ण-२ :** (मराठी-गोकर्ण, सुपली, गोकर्णी; हिंदी-अपराजिता, कालिना; गुजराती-कोयला, खीसली, गरणी; संस्कृत-गिरिकर्णिका, अपराजिता, गोकर्णिका; इंग्लीश- बटरफ्लाय पी; लॅटीन-क्लिटोरिया टर्नेटिया; कूळ- लेग्युमिनोजी, पॅपिलिऑनेटी).

जायतीं वर्सां उरपी ही वाल उश्ण कटिबंधांत सगळ्या वाठारांनी दिश्टी पडटा. जायत्या वेळा ही वाल आड्यांचेर वा पोरसांत सोबेखातीर लायिल्ली दिश्टी पडटा. तिचीं पानां एक-संघ, आनी पांच-सात दलाचीं आसतात. फुलां सादारण व्हड, एकटुकें, पानांचे खाचींत जून ते जानेवारी ह्या म्हयन्यांत येता. गायेच्या कानासारकी आशिल्ली व्हडली पाकळी गडद निळी (गोकर्ण म्हळ्यार गायचो कान) आसता. कांय कडेन धवे गोकर्ण वेलीचो प्रकार दिश्टी पडटा. हे वालीक चिडकेमिडके भशेन लांब सांगो येतात. तातूंत पांच ते धा वाटकुळ्यो, लांब आनी सादारण थपकट्यो बियो आसतात. कांय कडेन गोंडी गोकर्ण (पांच पाकळ्यो आशिल्ल्या फुलांची वाल) दिश्टी पडटा.

उपेगः हे वालीचीं मुळां शितळ, कोडू, मूत निवळ करपी, जंतूंचो नाश करपी, तेचपरी हातांचेर आनी पायांचेर जाल्ल्या रोगांचो नाश करपी आसतात. धवे गोकर्णीच्या मुळांचो रोस तकली उसळटा तेन्ना (अर्धशिशी) नाक पुडयेंत घाल्यार त्रास कमी जाता. हो रोस थंड दुदाबरेबर घेतल्यार चड तेंपाचे खोकलेचेर उपायकारक थारता. पानां थंड उदकांत भिजोवन काडिल्लो अर्क घायांचेर लायतात. भाजिल्ल्या बियांचो पिठो नेत्ररोग, ताळो कुसकुसप आनी कातडेच्या रोगाचेर उपेगी पडटा. खंयच्याय प्रकाराचे जमनींत ही वाल जाता. बियांपसून तिची लागवड जाता. मृग नक्षत्राच्या सुमाराक जमीन खणून बियो घालतात. बी किल्लून येतकच ६-७ सप्तकांनी वालीक फुलां येवंक लागतात.

- कों. वि. सं. मं.

**गोकुळः** उत्तर प्रदेशांतल्या मथुरा जिल्ह्यांतलें नामनेचें क्षेत्र. मथुरेसावन १० किमी. अंतराचेर यमुनेचे दुसरे देगेर गोकुळ वशिल्लें आसून सद्या हीं दोनूय थळां पुलावरवीं एकामेकांक जोडल्यांत.

गोकुळ हो पूर्विल्ल्या काळांत गोपांचो गांव आसलो. नंद हो ह्या गांवचो मुखेली, तर यशोदा ही ताची बायल. हांणीच कृष्णाक ल्हानाचो व्हड केलो.

श्रीकृष्णाचें भुरगेंपण ह्याच गांवांत गेलें. पूतनेक जीवेशी मारप, यमलार्जुनाचो उध्दार, गोप-गोपी सयत केल्ली क्रीडा तशेंच हेर कृष्णलीलांक लागून गोकुळाची कीर्त चोंयवशीन फांकिल्ली.

श्रीकृष्णाच्या काळार गोकुळांत धंयदूदाची गंगा व्हांवताली. गोरवां-म्हसरांनी हो वाठार संपन्न आनी समृध्द आसलो, कसलेच वस्तीचें थंय उणेपण नाशिल्लें, अशी गोकुळाविशींची तुस्त आनी तोखणाय

कृष्णपुराणांत आयल्या. भागवताच्या दशमस्कंधांतूय गोकुळ, गोप, गोपी, गोधन हांचें वर्णन आयलां.

वैष्णव संतांभितर आनी वैष्णव संप्रदायाभितर, गोकुळाक व्हड मान आसा. गोकुळ म्हळ्यार प्रियधाम अशेंच समस्त वैष्णव पंडितांनी आनी संतांनी मानलां आनी ताचें व्हडपण वर्णिलां.

गोकुळ हें वल्लभसंप्रदायाचें मुखेल केंद्र जावन आसा. औरंगजेबाच्या काळामेरेन ह्या संप्रदायाचे सगळे पूज्य ठाकूर हांगाच रावताले. सद्या ह्या संप्रदायाच्यो २४ हवेल्यो आसून तातूंत वल्लभाचार्याची बैठक, गोकुळनाथाची बैठक, गोविंदघाट, वल्लभघाट, व्रजराजमंदिर, गोकुळनाथ मंदिर हीं मुखेल आसात. रमणरेती आनी ब्रह्मांडतीर्थ हीं तीर्थां हांगाचीं नामनेचीं तीर्थथळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**गोकुळाष्टमः** श्रावण वद्य अष्टमीक, मध्यान रातीक श्रीकृष्णाचो जल्म जाल्लो; ताचो उगडास म्हूण गोकुळाष्टम वा जल्माष्टमी वा कृष्णजयंती मनयतात.

मथुरेंत कंसाचे बंदखणींत, देवकीच्या पोटांत श्रीकृष्णाचो जल्म जालो, तेन्ना वसुदेवान कंसाच्या भंयांन, रातोरात ताका नंद-यशोदेच्या गोकुळांत व्हरून पावयलो. गोकुळांत कृष्णजल्माक लागून व्हड खोस जाली आनी त्या गांवांत व्हड परब मनयली. देखून हे परबेक गोकुळाष्टम वा कृष्णजयंती वा जन्माष्टम अशें नांव पडलें.

हे परबेचो विधी फुडले तरेन आसता. सप्तमीच्या दिसा एकभुक्त रावन धव्या तिळांचो कल्क आंगाक लावन न्हातात. व्रताचो संकल्प करून पुजेचो जागो वेली-फुलांनी शिरंगारतात. त्या जाग्यार देवकीचें बाळंतघर तयार करतात. पलंगाचेर देवकी आनी कृष्ण हांच्या मूर्तीची पूजा करतात. दुसरेखटेन यशोदा आनी तिची चली, वसुदेव आनी नंद हांच्यो मूर्ती बसयतात. मध्यान रातीक शूचिर्भूत जावन

'श्रीकृष्णप्रीत्यर्थं सपरिवारश्रीकृष्णपूजां करिष्ये ।' असो संकल्प करतात. घरचीं सगळीं श्रीकृष्णाची षोडषोपचार पूजा करतात. कथा, पुराण, नृत्य, गीत सारक्या कार्यावळींवरवीं रात जागयतात. अष्टमी दिसा उपास करून देवाक फळांच्या जिनसांचो निवेद्य दाखयतात. नमीक, पंचोपचारान उत्तरपूजा करून देवाक महानिवेद्य अर्पण करतात. मातयेची मूर्त आसल्यार तिचें उदकांत विसर्जन करतात. कृष्णाची धातूची मूर्त देवाऱ्यांत दवरतात वा ब्राह्मणांक दान करतात.

गोकुळाष्टमीची परब भारतांत सगळ्या वाठारांनी मनयतात. गोकुळ, मथुरा, वृंदावन, द्वारका, जगन्नाथ पुरींत हे परबेचो आगळोच थाटमाट आसता. त्या दिसा जायत्या जाणांगेर गोकुळ-वृंदावनाचो देखाव तयार करून कृष्णाचो जल्म मनयतात. वैष्णव लोक तर हो दीस भक्तीन पाळटात. जायते वैष्णव लोक देवस्थानांतल्यान दीपाराधना, पालखी, आंदोलनोत्सव, कृष्णलीलेचे खेळ, भागवत पुराणाचें वाचन, कीर्तन, भजन, नृत्य-गायन ह्यो कार्यावळी प्रतिपदेसावन अष्टमीमेरेन चलतात. वृंदावनांत ह्या दिसांनी दोलोत्सव जाता, तो मनभुलोवणो आसता. महाराष्ट्रांत, खास करून कोंकण भागांत हे परबेवेळार धंय-कालो जाता. तेन्ना 'गोविंदा आला रे आला । गोकुळांत आनंद झाला।' अशें गायत, दादले घराघरांत नाचपाक वतात आनी धंयाच्यो मडक्यो फोडटात. घरांतले लोक तांचेर उदकाच्यो घागरी ओततात.

**गोंयचो संदर्भः** (पळेयातः कालो)

- कों. वि. सं. मं.

**गोखले, गोपाळ कृष्णः** (जल्म ९ मे १८६६, कोतलुक रत्नागिरी; मरणः १९ फेब्रुवारी १९१५, पुणे).

आर्विल्ल्या भारताचो एक म्हान फुडारी, संसदपटू, राजकारणी आनी नेमस्त पक्षाचो मुखेल जाळवणदार. ताचो जल्म एका सामान्य घराब्यांत जालो. ताचें मुळावें शिकप कागल आनी हायस्कुलचें शिकप कोल्हापूर हांगा जालें. इ.स. १८७९ त ताचो बापूय भायर पडिल्ल्यान ताचें ल्हानपण खूब गरीबींत आनी कश्टांत गेलें. १८८१ त मॅट्रिक पास जातकच ताणें कोल्हापूरचें राजाराम कॉलेज, पुण्याचें डेक्कन कॉलेज, मुंबयचें एल्फिन्स्टन कॉलेज हांगा आपलें शिक्षण पुराय केलें. पिरायेच्या अठराव्या वर्सा तो गणित हो ऐच्छिक विशय घेवन बी. ए. जालो. कॉलेजांत शिकता आसतना इंग्लीश भाशेचेर प्रभुत्व मेळोवपाखातीर ताणें उपाट कश्ट घेतले. बी. ए. जातकच ताणें टिळक-आगरकरान सुरू केल्ल्या 'न्यू इंग्लीश स्कुल' हातूंत नोकरी धरली. १८८५ त फर्ग्युसन कॉलेजांत तो इंग्लीश विशयाचो प्राध्यापक जालो. फुडें ताणें अर्थशास्त्र होय विशय शिकयलो. १८८७ त ताणें गणिताचें एक पुस्तक बरयलें.



१८८७ त न्यायमूर्ती महादेव रानडे हाच्या व्यक्तीमत्वान प्रभावित जावन गोखले ताचो शिष्य जालो. ताचे सांगणेवयल्यान गोखले 'सुधारक' पत्राचो सहसंपादक जालो. न्या. रानडे हाचे प्रेरणेन जल्माक आयिल्ले भौशीक सभेचो चिटणीस (१८८७) आनी सभेच्या तीम्हयन्याळ्याचो संपादक जालो आनी फुडें १८९१ त तो परिशदेचो चिटणीस तशेंच राश्ट्रसभेचो चिटणीस जालो. १९०५ त पुणे नगरपालिकेचें अध्यक्षपद ताका फाव जालें, १८९९ त मुंबय काउन्सिलांत तो वेंचून आयलो. थंय ताणें दोन वर्सां काम केलें. प्रांतिक विधीमंडळांत प्रवेश करतकच चार वर्सांभितरूच तो केंद्रीय विधीमंडळांत वेंचून आयलो. १८९५ त पुण्यांत भरिल्ल्या काँग्रेस अधिवेशनाचो तो चिटणीस जालो. १९०५ त वाराणसी हांगा भरिल्ल्या काँग्रेस अधिवेशनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.

लोकमान्य टिळक आनी गोखले हे सुर्वेक एकेच माचयेर वावुरताले. पूण १८९९ त मुंबयच्या काँग्रेस अधिवेशनाउपरांत दोगांयचोय मार्ग बदल्लो. टिळक जहाल राजकारणावटेन वळ्ळो. गोखलेन लोकशिक्षणावरवीं समाजजागृती करपाचो आनी राजकी सुदारणांखातीर ज्यो सवलती मेळटात, त्यो राबोवपाचो मार्ग आपणायलो.

हिंदुस्थानच्या जमाखर्चाची तपासणी करपाखातीर १८९६ त वेल्बी कमिशन नेमिल्लें. वेल्बी आयोगासारक्या म्हत्वाच्या आयोगामुखार मुखेल साक्षीदार म्हूण ताणें एकविसाव्या वर्सा गवाय दिली. हिंदुस्थानांत राज्यकारभाराचो खर्च कसो वाडत चल्ला आनी ताका लागून करवाढ कशी जड जाता, हें ताणें सप्रमाण दाखयलें आनी राजकी सुदारणांची गरज उक्तावन दाखयली. ताचे ह्या अभ्यासपूर्ण आनी मुद्देसुद साक्षीक लागून ताचें नांव हिंदुस्थानांत तशेंच विदेशांत गाजलें.

१९०२ त, गोखले मध्यवर्ती कायदेमंडळाचेर वेंचून येतकच ताणें अर्थसंकल्पाचेर जें उलोवप केलें, ताका लागून ताचें कर्तृत्व आनी फुडारपण देशमान्य जालें. त्या विधीमंडळांत ताणें अर्थसंकल्पाचेर बारा उलोवपां केलीं. तातूंतल्यान ताणें तेन्नाच्या भारताच्या राजकी, अर्थीक, शिक्षणीक मळांवयले विचार मांडले. भारतांतल्या शेतकामत्यांचे प्रस्न, आयात-निर्यात, कारभार, हिंदी विद्यापीठाचो कायदो, रेल्वे अदमासपत्रक, मुळाव्या फुकट शिक्षणाचो कायदो, भलायकी, उद्देग, रुपयांचें पौंडाकडेन नातें, लश्करावयलो खर्च अशे कितलेशेच विशय ताणें अभ्यासपूर्वक हाताळळे. प्रतिपक्षाचें मत समर्पक युक्तिवाद करून

वळोवप, हें ताच्या भाशणाचें खाशेलपण आशिल्लें. गोखले हो ऊंच पांवड्याचो वक्तो आनी संसदपटू आसा, असो गौरव भारतांतल्या तशेंच विदेशांतल्या जायत्या जाणकारांनी केलो. तो वरिश्ठ कायदेमंडळांत सुमार १२ वर्सां आशिल्लो.

आपलो समाज स्वायत्ततेचो उपेग करून घेवपाक लायक करपाखातीर निःस्वार्थी अशा समाजसेवकांची एक संस्था तयार करपाक जाय, अशें ताका दिसतालें. समाजाचें अंतर्बाह्य स्वरुप बदलल्याबगर तो स्वातंत्र्याक पात्र जावंचो ना, अशें रानडे हाचें मत आशिल्लें आनी त्याच हेतान ताणें 'सर्व्हंट्स ऑफ इंडिया सोसायटी' (भारत सेवक समाज) हे संस्थेची थापणूक केली (१२ जून १९०५).

वंगभंगाक लागून जी अंदाधुंदी जाली, ताका लागून गोखले आनी हेर फुडाऱ्यांच्या सनदशीर राजकारणाचेर परिणाम जालो. पूण गोखलेन राजकी सुदारणा मेळोवपाखातीर ब्रिटीश राज्यकर्त्यांचें मत वळोवपाचे आपले यत्न मात्तूय कमी केले ना. मोर्ले-मिंटो सुदारणा कायदो (१९१९) ह्या नांवान वळखतात त्या कायद्याचे जडणघडणींत गोखलेचो खूब मोटो हात आशिल्लो. १९०६ त तो इंग्लंडाक गेलो आनी थंय रावन हेसंबंदी ताणें बरोच वावर केलो. सनदशीर राजकारणाचो गोखले प्रवर्तक खरो, पूण निमाणच्या काळांत कायदेभंगाचे चळवळीकूय ताचें खास मर्यादेमेरेन फाटबळ आशिल्लें.

राजकारणांतल्या ताच्या कार्याभायर एक म्हान समाजसुदारक म्हूण तो नामनेक पावलो. भारत सेवक समाजाच्या कार्यावांगडा अस्पृश्यता आनी जातिवेवस्था हांचें निर्मूलन जावंचें, म्हूण तो सदांच वावुरलो. बायलांचे स्वतंत्रतायेचो तशेंच तांच्या शिक्षणाचो ताणें पुरस्कार केलो आनी तेविशींचे आपले विचार वृत्तपत्रकार ह्या नात्यान 'सुधारक', 'सार्वजनिक सभा', 'राष्ट्रसभा समाचार' ह्या खबरेपत्रांतल्यान स्पश्ट मांडले. सगळ्या थरांतल्या लोकांक शिक्षण घेवप सोपें जावंचें म्हूण मुळावें शिक्षण फुकट आसचें, अशें ताका दिसतालें. तेखातीर ताणें १९१० सावन खटपट सुरू केली. ताणें मुळाव्या फुकट शिक्षणाचें बील तीन खेपो कायदेमंडळांत मांडलें. पूण तीनूय खेपो तें भायर पडलें, म्हूण १९११ त ताणें मुळाव्या शिक्षणाचें बील परत एकदां वरिश्ठ काउन्सिलांत मांडलें.

ह्याच वेळार गोखले दक्षिण आफ्रिकेच्या दौऱ्यार गेलो. थंय भेटी, मानपत्रां दिवन ताका येवकार दिलो. दक्षिण आफ्रिकेंतल्या सरकाराचे दडपशाहीक आनी ताच्या धोरणांक आळाबंद बसचो आनी नाताळांत मुदतबंदीन कामगार धाडपाचें बंद करचें, अशें ताणें सरकाराक कळयलें. त्या वेळार गांधीजी दक्षिण आफ्रिकेंत आशिल्लो. गांधीजी आनी गोखले हांचो थंय लागींचो संबंद आयलो. गोखले हाणें गांधीजीच्या सत्याग्रह कार्याखातीर निधी जमोवपाक सुरवात केली.

पयलें म्हाझूज सुरू जालें म्हूण तो भारतांत परत आयलो. जहाल मताच्या टिळकाक गोखलेचें सामोपचाराचें राजकारण मवाळ दिसपाक लागलें. पूण गोखलेन आपलो सनदशीर मार्ग कसोच सोडलोना. पूण गोखले हाचें कर्तृत्व, देशसेवा, स्वार्थत्याग, अभ्यास ह्या गुणांक लागून सरकाराप्रमाणूच लोकपक्षाचे फुडारीय ताका आदर दिताले.

- कों. वि. सं. मं.

**गोठाण:** आर्थ्रोपोडा (संधिपाद) संघाच्या डिप्लोपोडा वर्गांतलो प्राणी. हो तिकतिकीत तांबशा रंगाचो सरपटपी प्राणी जावन आसून तिची कूड वाटकुळी आसता; आंगाक मुदयांवरी वळी आसतात. तिच्या आंगाक कुसांकुसांवरी जायते पांय दिश्टी पडटात. तेखातीर तिका 'सहस्त्रपाद' म्हण्टात. तिच्या आंगाच्या चडशा मुदयांक दोन दोन पायांच्यो जोडयो आसतात म्हूण तिका 'डिप्लोपोडा' म्हण्टात. चड करून तिका वीस मुदयो आसतात. पूण कांय जाणांक बत्तीस मुदयांपरसूय चड मुदयो आसतात. तिका हात लागल्यार ती आपलें आंग आंवळून वेटाळें करता. कांय जातींच्या गोठाणीचे कुडीचो आकार चेपटो आसता. कुडीचेर कॅल्शियमयुक्त कवचाचें आवरण आसता. जेन्ना गोठाणीची वाड जाता तेन्ना तिचेवेळीं कवचां कात सोडिल्ल्यावरी गळून पडटात.

गोठाणीचे तकलेर लघुशृंगिकांची (antennules) एक जोडी आसता. तकलेच्या दोनूय कुशींनी एक वा चड ल्हान दोळे आसतात. कांय जातींमदीं हे दोळे दिश्टी पडनात. जंभाची (अन्न धरपाखातीर वा चाबपाखातीर आशिल्ल्या उपांगांची) एक जोडी आसता. जंभिकांची (जंभाफाटल्या रुपांतरक्षम उपांगांची) एकूच जोडी आसता. जंभिकांचे दुसरे जोडयेचें रूपांतर अधरोश्ठांत (सकयल्या ओंठांत) जाल्लें आसता. गोठाणीक विखारी जबडे आसनात.

गोठाण श्वासनलिकेवरवीं श्वसन करता. अन्ननलिका सरळ आनी ल्हान आसता. ती आंतकड्याचो फुडलो, मदलो आनी फाटलो अशा तीन भागांनीं वांटिल्ली आसता. हो भिन्नलिंगी प्राणी आसा.

गोठाणीचे ३५ ते ३१ कोटी वर्सांआदले कारबोनी फोरस काळांतले जीवाश्म (fossils) सांपडल्यात. सादारणपणान गोठाणीचो रंग काळसार मातयेकोराचो आसता. भारतांतल्या कांय गोठाणींची लांबाय ०.२ मिमी. ते ३०० मिमी. मेरेन तर रुंदाय सुमार ५० मिमी. मेरेन आसता.

गोठाणी पुराय संवसारांत खासा करून ध्रुवीय प्रदेशांत चड प्रमाणांत आसात. उश्ण प्रदेशांत गोठाणी चड प्रमाणांत दिश्टी पडटात. भारतांत मेळपी गोठाणींच्यो जाती अश्योः आर्थोस्फीरा हेटेरोस्टिक्टा, आ. मॅग्ना, झेफ्रोनिया नायग्रिनोटा, झे. अल्टीकोला, कॉंड्रोमॉर्फा सेव्हेरिनी, कॉं. मॅमीफेरा, स्ट्रेप्टोगोनोपस फिप्सोनी आनी ट्रायगोनियुलस लुम्ब्रीसिनस.

गोठाणीची मादी, जमनींत २५ ते ५० तांतयां घालता. हीं सगळीं तांतयां मातयेभितर आसतात. तांतयांतल्यान पील भायर योमेरेन मादी, तांतयांची राखण करता. तांतयांतल्यान भायर सरिल्ल्या पिलांक पांयांच्यो तीन जोडयो आसतात आनी पांयां फाटल्यान चार वळी आसतात. हे उपरांत गोठाणीच्या पिलाची जशी जशी वाड जायत वता, तश्यो तिच्या आंगावेल्यो वळी वाडत वतात आनी तांचेर पांयांच्यो जोडयो येवंक लागतात. गोठाण २ ते ७ वर्सांमेरेन जियेता. हो काळ जातीप्रमाण वेगवेगळो आसता.

गोठाण हो शिवराक प्राणी आसून तो कुशिल्ली वनस्पत खावन जियेता. ओलसार जाग्यांनी पानांच्या राशींभितर वा लांकडांच्या खांचीनी गोठाण रावता. गिमाच्या दिसांनी ती स्वताक जमनींत पुरुन घेता.

स्वताची राखण करपाखातीर गोठाणीच्या आंगांत कांय घाण येवपी ग्रंथी आसतात. शरीराचे कुशीक आशिल्ल्या रंध्रांतल्यान ह्या ग्रंथींचें द्रव्य पाझरता. ह्या द्रव्याचे घटक वेगवेगळ्या जातींनीं विंगडविंगड आसतात. तातूंत हायड्रोसायनिक अम्ल, आयोडीन आनी क्विनोन आसता. ह्या द्रव्याचो वास खर आनी झिणझिण्यो येवपी आसता. हाका लागून ल्हान जीव-जंतू मरतात. मनशाचे कातीर हें द्रव्य पडल्यार कात काळी पडटा. कांय काळाउपरांत कात वता, पूण जाल्ली जखम बरी जावपाक बरेच दीस लागतात. मनशाच्या दोळ्यांचेरूय ह्या द्रव्याचो वायट परिणाम जाता. कोंबयो हें द्रव्य दोळ्यांत पडिल्यार कुड्ड्यो जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**गोड (गॉड):** ऊंस, ताड आनी माड ह्या वनस्पतींपसून मेळपी रोस खतखतावन थंड करतकच जो घन पदार्थ तयार जाता, ताका 'गोड' अशें म्हण्टात. गोडाचो उपेग चड करून खावचेल्या पदार्थांक गोडसाण हाडपाखातीर जाता. ऊंसापसून गोड आनी साकर तयार करपाची क्रिया भारतांत पूर्विल्ल्या काळासावन प्रचलित आसा. लासेन ह्या संशोधकान 'गोड' ह्या शब्दाची उत्पत्ती 'गौर' ह्या बंगालांतल्या पूर्विल्ल्या शाराच्या नांवावयल्यान आयल्या अशें म्हळां. कांय व्युत्पत्तिकार, बंगालच्या गौड देश ह्या पूर्विल्ल्या नांवावयल्यान 'गौड' म्हळ्यार गोडाचो देश असो अर्थ दितात. 'प्रथिमकोश' ह्या बुध्दकाळांतल्या ग्रंथांत दरेक बौध्द भिक्षून आपल्या आहारांत गोडाचो उपेग करचो अशें सांगलां. सम्राट चंद्रगुप्त हाच्या दरबारांतलो सेल्युकस मायकेटॉर हाचो वकिल मीगॅस्थीनीझ हाणें इ.स.प. ४० च्या सुमाराक 'गोड म्हळ्यार केसरी रंगाचो आनी अंजीर वा म्होंव हांचेपरसूय गोड असो फातर' अशें गोडाचें वर्णन केलां. हाच्या ७० वर्सां उपरांत भारतांत

आयिल्ल्या ह्युएनत्संग ह्या अभ्यासकान भारतांतले लोक आपल्या दिसपट्ट्या आहारांत गोडाचो उपेग करताले, असो उल्लेख केला.

ऊंसाची उत्पत्ती जरी दक्षिण पॅसिफिक महासागरांतल्या जुंव्यार जाली तरी गोडाची आनी साकरेची उत्पत्ती भारतांतूच जाल्या आसूंक जाय, अशें इतिहास संशोधकांचें मत आसा. भारतांतल्या ऊंसाच्या वट्ट उत्पादनांतले सुमार ४० टक्के ऊंस गोड तयार करपाखातीर वापरतात. गोडाचें उत्पादन चडशें घरगुती गुऱ्हाळां उबारून नाजाल्यार सहकारी संस्थांवरवीं जाता. उत्तर प्रदेशांत मीरत आनी शहाजहानपूर, बिहारांत पुसा, महाराष्ट्रांत कोपरगांव, श्रीरामपूर, बारामती आनी कोल्हापूर तशेंच तमिळनाडूंत कोईमतूर हांगा गोड उत्पादनाचीं व्हडलीं केंद्रां आसात. मीरत आनी कोल्हापूर हांगा जावपी गोडाचो पांवडो सगळ्यांत ऊंच अशें मानतात.

गोड हो एक घन पदार्थ आसून ताचो रंग लेव हळडुवो वा करडो आसता. करडो रंग फुडें ल्हवल्हव काळसर जाता. गोडाची रूच गोड आसता. हो सुको घन पदार्थ पावसाळ्यांत दमट हवेचें उदक शोशण केल्ल्यान तेंवता. गोड गरम केल्यार पयलीं वितळटा आनी मागीर काळपट करडें जाता. कालमानाप्रमाण गोडाच्या गुणधर्मांत फरक पडत वता. गोडांतल्या घटकांचें प्रमाण उशीकांड्यांत आसपी पुराय घटकांच्या प्रमाणाइतलेंच थोड्याभोव फरकांत उरता. शुध्दीकरणाक लागून ह्या घटकांचेर थोडोभोव परिणाम जाता. देखीकः रोस शिजयतकच प्रथिन घटकांचेर मात्सो परिणाम जावन तांचें प्रमाण कमी जाता. पूण हेर घटकांचेर परिणाम जायना आनी तांचें प्रमाण तशेंच उरता.

गोडांत ९०% परस चड प्रमाणांत साकर (सुक्रोज) आसता. तेभायर थोड्या प्रमाणांत ग्लुकोज आनी फ्रुक्टोज, खनिज लवणां हीं द्रव्यां सांपडटात. हातूंत उदकाचोय थोडो अंश आसता. गोडाचें रसायनीक पृथःकरण सादारणपणान अशें- साकर ६५ ते ८५%, ग्लुकोज आनी फ्रुक्टोज १० ते १५%, खनिज लवणां २.५ % आनी जलांश ३ ते ५%. तेभायर कॅरोटीन २८० आंतरराश्ट्रीय एकक/१०० ग्रॅ., निकोटिनिक अम्ल १.० मिग्रॅ./१०० ग्रॅ., तशेंच कॅल्शियम, फॉस्फरस, लोखण आनी तांबें हीं लेगीत थोड्या प्रमाणांत सांपडटात. गोडाचें कॅलरी मोल दर १०० ग्रॅ. फाटल्यान ३६५ इतलें आसा.

गोडाच्या वट्ट उत्पादनांतल्या ३/४ गोडाचो उपेग खावपाच्या जिनसांनी जाता. उत्पादनाचो कांय भाग 'गोडाची साकर' तयार करपाखातीर वापरतात.

वेपारांत गोडाची किंमत रंग, रुच, साकरीचे कण आनी वास हांचेर आदारून आसता. स्फटिक गोडांत साकर चड प्रमाणांत आसता, म्हूण तें गोड खावपाखातीर वापरतात. पुसा हांगाच्या 'सेंट्रल शुगरकेन रिसर्च सेंटर' हे संस्थेन गोडाची गोडसाण, रंग, साकरेचें प्रमाण, ग्लुकोज आनी फ्रुक्टोज हांचें प्रमाण, जलांश, अम्लता, कलिल स्वरुप, रक्षा ह्यो गजाली मतींत घेवन गोडाचे वेगवेगळे प्रकार सुचयल्यात.

**उत्पादन पध्दतः** गोड तयार करपाच्यो क्रमवार प्रक्रिया अश्योः *१. पिकिल्लो ऊंस तोडपः* ऑक्टोबरसावन मार्च अखेरमेरेन जून ऊंस तोडपाक सुरवात करतात. कापणेउपरांत ५-६ वरांपरस चड वेळ ऊंस दवरीनात, कारण तसो दवरल्यार ताचें वजन देंवता आनी रोसांतले साकरेचें ग्लुकोजांत रुपांतर जाता.

*२. ऊंसाचें गाळपः* वेगवेगळे चरक वापरून ऊंसाचो रोस गाळटात.

*३. रोसाचें शुध्दीकरणः* रोसांत विरगळिल्ले आनी उफेवपी अशे कितलेशेच घटक आशिल्ल्यान गोड तयार करपाखातीर सुर्वेक रोस शुध्द करप भोव गरजेचें आसता. रोसापसून गोड तयार करपामेरेनच्यो सगळ्यो प्रक्रिया एकेच कायलींत करतात. ताका लागून शास्त्रीय पध्दतीन रोसाचें शुध्दीकरण करप शक्य जायना. देखून हें शुध्दीकरण सैमीक पध्दतीन करतात. रोसांतली मळी चडांत चड प्रमाणांत काडून उडोवपाखातीर वेगवेगळ्या कार्बनी आनी अकार्बनी जिनसांचो उपेग करतात.

*४. रोसाचें निर्जलीकरणः* रोसांत सुमार ८०% उदक आसता. गोड तयार करपाखातीर तातूंतलें उण्यांत उणें ७५% उदक शिजोवन काडून उडोवचें पडटा. एके खेपेक एक टन ऊंस गाळून सुमार ७५० किग्रॅ. रोस काडटात. रोस काडून जातकच तीन वरांभितर तो शिजोवचो पडटा, नाजाल्यार तातूंत रसायनीक प्रक्रिया सुरू जावन गोडाचो रंग बदलूंक शकता. देखून रोस तयार जायनाफुडें दाट कपड्यान वा गाळणीन गाळटात. हाका लागून तातूंतलो बारीक कोयर आनी किसरां वतात. मागीर सगळो रोस कायलींत घालून शिजयतात. रोसाची कायल भाटयेर दवरून तापयतकच सुमार अर्द वरान नायट्रोजनरुपी घट्ट मळी वयर उफेवंक लागता. ही मळी जितली बेगीन काडून उडयत, तितलें गोड चड रंगदार, खाळ आनी टिकाऊ जाता. मळी जर पुराय काडलीना जाल्यार गोड काळें जाता. रोस शिजोवपाची क्रिया सुमार देड वर चलता. रोस शिजता आसतना मळी एकसारकी काडून उडयतात. बोमाडे येवन रोस ओतपाची क्रिया थांबता, तेन्ना रोसाक 'काकय' वा 'राब' अशें म्हण्टात. अशे तरेन गोड तयार जावपाक लागता. पूण रोस एकसारको धवळीत रावचें पडटा, नाजाल्यार कांठांवयल्या भागांत गोड करपूंक शकता. तापमान सुमार ११८° से. ते १२३° से. इतलें दवरतात. हाचेपरस चड तापमान दवरल्यार गोड घट्ट आनी तांबडें जाता. उणें तापमान दवरल्यार तें मोव आनी हळडुवें जाता.

सुमार १२०° से. तापमानाचेर कायल भाटयेवयल्यान सकयल देंवयतात आनी गोडाचो पाक खूब वेळ एकसारको धवळटात. मागीर तो थंड लोखणाचे कायलींत घालून वा जमनींत चर खणून नाचण्याच्या पीठाचो लेप लावन थंड जावपाखातीर ओततात. रोस इल्लो-इल्लो घोळयतकच थंड जावन गोड घट्ट जाता.

*५. गोडाच्यो धेंपी घालपः* धेंपी करपाखातीर लांकडी वा लोखणी आयदनां वा बालद्यो वापरतात. धेंपाळ्यांक वा बालद्यांक सकयल्यान बुराक आसतात. ह्या बुराकांतसून गोडाचो पातळ भाग भायर निस्तून वता. धेंप घट्ट जावपाक सुमार एक वर लागता. धेंपींचें वजन सुमार २० ते ३० किग्रॅ. आसता. बालद्यांतलें गोड पुराय घट्ट जातकच धेंपी भायर काडटात. सूक्ष्मजंतूंचो रीग जावन गोड पेड्ड्यार जायत म्हूण धेंपी साकाच्या पोतयांनी वा अल्काथेनच्या पोतयांनी गुठलावन गुदावांत सुक्या जाग्यार सांठेवन दवरतात.

**उपपदार्थः** गोड तयार करतना ऊंसाचीं चिवणां आनी मळी हे म्हत्वाचे उपपदार्थ मेळटात. चिवणांचो उपेग गोडाच्या कारखान्यांतूच जळव म्हूण करतात. तेभायर तांचेपसून कागदी पुठ्ठे, गोरवांची खावड हे पदार्थ तयार करतात. भाटयेंतल्यान तयार जाल्लो गोबर, सारें म्हूण वापरतात. मळीपसून कंपोस्ट सारें आनी गोरवांची खावड तयार करतात.

गोंयांत माडाची सूर काडून ताचेपसून गोड तयार करतात. हाका 'माडाचें गोड' अशें म्हण्टात.

तशेंच ताड, माड, सॅगो पाम आनी खाजूर ह्या झाडांपसून काडिल्लो रोस आटोवन गोड तयार करतात. ह्या गोडाक 'ताडाचें गोड' अशें म्हण्टात

- कों. वि. सं. मं.

**गोडेकाश्टः** (मराठीः ज्येष्ठमध, ज्येष्ठीमध; हिंदीः मुल्हट्टी, जैठिमध, मीठी लकडी; गुजरातीः जेठिमध; कन्नड आनी संस्कृतः यष्टिमधू, मधूक; इंग्लीशः लिकराइस; लॅटीनः ग्लिसिन्हायझा ग्लॅब्रा; कूळः लेग्युमिनोजी; उपकूळः पॅपिलिऑनेटी).

खूब पूर्विल्ल्या काळासावन उपेगी पडपी हें वखदी झाड, जायतीं वर्सां जियेता. हें झाड मुळचें भूमध्य दर्यावाठारांतलें आसून दक्षिण युरोप, अस्तंत आनी मध्य आशिया, बलुचिस्तान आनी उपहिमालय प्रदेश हांगा रानटी स्थितींत मेळटा. स्पेन देशांत व्हड प्रमाणांत ह्या झाडाची लागवड करतात. ह्या झाडाचीं मुळां अमेरिका व्हड प्रमाणांत आशिया मायनर, रशिया आनी तुर्कस्थान हांगासावन आयात करतात. भारतांत पंजाब, जम्मू आनी काश्मीर हांगा ह्या झाडाची लागवड करतात. ह्या झाडाक दोंगरी आनी ओलसार वाठार तशेंच खोल, सुपीक आनी भुसभुशीत

जमीन आनी उबदार हवा जाय पडटा. हें झाड सुमार १ मी. ऊंच वाडटा आनी ताका तळासावन जायत्यो खांदयो फुटतात. ह्या खांदयांक विशमदली आनी संयुक्त पानां येतात. पानांच्या खांचींनी ल्हान जांभळ्या कोरचीं फुलांचीं कणसां येतात. फुलांची रचणूक पतंग रुपी आसता. ह्या झाडाक जायत्यो बियो आशिल्ल्यो ल्हान चेपट्यो सांगो येतात.

हे झाडाचे वतांत सुकयल्ले मुळाचे कुडके वखदी जावन आसात. ते मोव, चिवट आनी धागेमय आसून भितल्ले वटेन हळडुव्या कोरचे आसतात आनी रुचीन गोड आसतात. गोडेकाश्टाचो हेर उपेग तंबाखूक वास हाडपाक आनी गोड पदार्थांत तशेंच बूटपॉलिश कारखान्यांत जाता. तातूंत आशिल्लें ग्लिसिऱ्हायझीन साकरेच्या ५० पट गोड आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**गोड्डे रामायण:** केरळांतल्या एर्णाकुळम शारांत ताडपत्रांचेर बरयल्लें लोकगीतांच्या रुपांतलें कोंकणी रामायण मेळ्ळें. तें मल्याळम लिपींत आशिल्लें. कोंकणी भाशा इंस्टिट्यूटाचो प्रोफेसर आर. के. राव हाणें त्या ताडपत्रांवयल्या बरपाचें संपादन करून आनी मूळ बरप देवनागरी कोंकणींत हाडून 'गोड्डे रामायण' ह्या नांवान तें उजवाडायलें.

१९८२ त 'मुण्डइशेरी' नांवाच्या कुटुंबाकडल्यान वाचूंक येनाशिल्लीं अशीं ताडपत्रां प्रो. राव हाच्या हाताक लागलीं. ताणें झाडा-पाल्याचो रोस लावन घांसूनपुसून तीं निवळ केलीं आनी उपरांत तांचेवयल्या बरपाचें संपादन केलें. हीं ताडपत्रां २०० वर्सां पोरनीं आसूंक जाय आनी 'व्यंकटेश कल्याण' काव्याच्याय आदलीं आसूंक जाय, अशें ताणें प्रस्तावनेंत म्हळां.

लोकगीतांच्या रुपान केल्या ह्या बरपाचो कर्तो कोण तें अजून कळूंक ना. पूण ताचेर मल्याळम भाशेचो प्रभाव बरोच उणो आसा. होळयेच्या वेळार वैश्य आनी सारस्वत समाजांतले लोक कोचीच्या भगवन्ती देवळाच्या आनी बारम्पळेच्या दुर्गाक्षेत्राच्या आंगणांत गावन, नाचून, अभिनय करून हें रामायण सादर करताले आनी मध्य केरळांत ताचो प्रसार खूब आशिल्लो, अशेंय प्रस्तावनेंत म्हळां. चड करून बालकाण्ड कथा गायताले. गावपी कलाकारांक 'गडे' (सादरकर्ते) म्हण्टाले. देखून त्या रामायणाक 'गोड्डे (गडे) रामायण' अशें म्हण्टात.

रामायणाचे कथेचीं फकत ६४ ताडपत्रां मेळ्ळ्यांत. मदलीं तशींच निमाणीं नश्ट जाल्यांत. हनुमंत संजीवनी हाडूंक वता, तितले मेरेनचें बरप मेळ्ळां.

बालकाण्ड, अयोध्याकाण्ड, अरण्यकाण्ड, किष्किन्धाकाण्ड, सुन्दरकाण्ड, युध्दकाण्ड अशा स काण्डांनी प्रो. राव हाणें 'गोड्डे रामायण' बरपाचें संपादन केलां. ह्या बरपाचेर मराठीचो थोडो प्रभाव दिसून येता. जाणकारांच्या अदमासाप्रमाण गोंयच्यान कोंकणी लोक सोळाव्या शेंकड्यांत केरळांत पावल्या उपरांत हें कवीत रचलां आसूंये.

ह्या लोकगीतांच्या रुपांतल्या बरपाच्यो कांय पती सकयल दिल्यातः

बालकाण्ड कथाः ध्रुपद-

आरे पुता श्रावणा तान लागलीगा
तान लागून प्राण कंठी पावलोगा
आयिशें वचन ताणें बापाचे आयकिलेंगा
वचेन आयकुनु श्रावणु नमस्कारु घालोगा
नमस्कारु करनु श्रावणु उटावनु चाललोगा
चलतां चलतां एकु वृक्षु दिकिलोगा

* * *

वनातुलें वृत्तावन्तु मुनीक सांगिलेंगा
शापाचें वर्तमान मुनीक सांगिलें गा
शापु कारण एकू यागु माण्डिलोगा
ताटका निमित्तीं यागु शुध्दचि नवेंगा
ताचे कारण मुनि अयोध्या चालिलोगा
अयिशे वचन रायान मुनीक सांगिलेंगा

- कों. वि. सं. मं.

**गोत्र:** 'गोत्र' शब्दाचे अर्थ खूब आसात. 'गो' म्हळ्यार भूंय आनी 'त्र' म्हळ्यार राखण असो जाता. गोत्र म्हळ्यार भुंयेची राखण करपी, असो कांय जाणांनी अर्थ काडला. हे भायर गोत्र शब्दाचो अर्थ पर्वत, गायांचो पंगड, गोठे, कूळ, वंश, समुदाय, रान, रस्तो, संपत्ती, शेत, भविश्यज्ञानं असोय जाता. गो म्हळ्यार इंद्रिय, भूंय, गाय अशे खूब अर्थ जाल्यान तांची राखण करता, तें 'गोत्र' असोय अर्थ जावं येता.

विश्वामित्र, जमदग्नी, भरद्वाज, गौतम, अत्री, वसिष्ठ, कश्यप आनी अगस्त्य ह्या ऋषींसावन जीं वंशकुळां उप्रासलीं, त्या ऋषींचीं नांवांच ह्या वंशकुळाचें गोत्र म्हूण वळखतात. हे ऋषी त्या वंशकुळाचे मुळपुरुस आशिल्ले. बौधायनान हीच फोडणिशी केल्या.

सुर्वेक उल्लेख केल्ल्या आठ ऋषींक गोत्रकृत्, गोत्रकार, वृध्द, स्थविर, वंश्य अशें म्हळां. ह्या आठांतल्या दर एका ऋषीच्या वंशांत कांय पराक्रमी आनी कर्तबगार मनीस निर्माण जाले आनी तांच्या नांवांवयल्यान त्याच गोत्रांत स्वतंत्र अशीं गोत्रां जावपाक लागलीं. अशे तरेन एका मुळाव्या गोत्रापसून खूब गोत्रां निर्माण जालीं. अशा ह्या मागीर जाल्ल्या गोत्रांची वळेरी बौधायन श्रौतसूत्राच्या निमाण्या भागांत 'महाप्रवरकांड' ह्या नांवान दिल्या. तशेंच उपरांत निर्माण जाल्ल्या गोत्रांक 'गोत्रावयव' अशें म्हळां.

गोत्र म्हळ्याउपरांत एक खासा कुटुंब असो अर्थ जाता. होच अर्थ छांदोग्य उपनिषदामदीय घेतला. एकाद्र्या मनशाक एकाच पुरसापसून आपलो अखंड वंशवृक्ष स्पश्टपणान समजून येता, तेन्ना तो मनीस त्या गोत्रांतलो आसा अशें मानतात.

क्षत्रिय गोत्रां: कुटुंबांत एकाद्रो हुशार, विद्वान, गिरेस्त मनीस जावन वतकच ताचे जे वंशज आसतात, तांकां त्या नांवाच्या गोत्रान वळखतात. हाका लौकिक गोत्र अशें म्हण्टात आनी हें क्षत्रियांमदीं चड आसता. ह्या लौकिक गोत्रांतूय फुडें आनीक विभाग जाल्यात, जांकां 'गण' अशें म्हळां.

गोत्राविशीं कांय खास गजाली आसात, त्यो अश्यो:

१. कांय वेळार बापूय नेमको कोण हें खबर ना तेन्ना आवय ज्या गोत्रांत जल्मली तें गोत्र लायताले.

२. कांय क्षत्रिय, वैश्य हांकां गोत्र खबर नासत जाल्यार ते आपल्या पुरोयताचें गोत्र लायताले.

३. गुरुकुलांत रावपी कांय विद्यार्थी शिक्षण पुराय जाल्या उपरांत त्या गुरुचे शिष्य हें कळपाक त्या गुरुचें गोत्र लायताले.

४. ब्रह्मविद्येचें शिक्षण दितासतना गुरु, शिष्याक गोत्र नांवावेल्यानूच उलो करतालो. हाचेवेल्यान ब्राह्मण आनी उपनिषद काळांत गोत्र पध्दत चड उपेगांत आयली, अशें दिसता.

५. ह्याच काळांत गोत्र पध्दतीन मूळ धरलें तरी हातूंत एकाच गोत्रांत बरेच फावट लग्नसंबंद जायनाशिल्ले. म्हळ्यार ही पध्दत त्या वेळार नाशिल्ली असो अदमास काडतात. गोत्र हें शिक्षण, यज्ञ, याग हांच्या पुरतेंच मर्यादीत आशिल्लें.

गोंयांत मनुमया, त्वष्टा, शिंपी, दैवज्ञ हेय गोत्रकार आसात. शेटींत कौशिक, वत्स अशीं गोत्रां आसात. मेस्त कौंडिण्य गोत्र सांगतात. तर वैश्य वाणी जामदग्न्य आनी कौशिक गोत्री आसात.

- वा. ल. वझे

**गोदावरी:** भारतांतली एक पवित्र आनी मुखेल न्हंय. तिका 'गौतमी गंगा', 'वृध्दगंगा' ह्या नांवानूय वळखतात. भारतीय पुराणांत गोदावरी न्हंयचो उल्लेख मेळटा. गोदावरी म्हळ्यार उदक वा गाय दिवपी वा गायेचें पोट भरपी असो अर्थ जाता.

गोदावरीची उत्पत्तीकथा फुडले तरेन आसा. ब्रह्मगिरीच्या वाठारांत आशिल्ल्या गौतम ऋषीच्या आश्रमांत जेवणा-खाणाचें केन्नाच संकश्ट उबें रावलेंना. ताच्या आश्रमाकुशीच्या शेतांत शेत-भात व्हड प्रमाणांत पिकतालें. एक फावट दक्षिण देशांत दुकळ पडलो. ताका लागून सगळे ऋषी-मुनी गौतमाच्या आश्रयाक आयले.

ह्याच वेळार कैलासांत शंकराचे जटेंत गुप्तरुपान रावपी गंगेविशीं पार्वतीच्या मनांत मत्सर निर्माण जालो आनी ती खूब दुखेस्त जाली. तिणें गणपतीक ही गजाल सांगली. उपरांत पार्वती, गणपती आनी तांची दासी जया हांणी एक मांडणी तयार केली. तेप्रमाण जयेन गायचें रूप घेवन गौतमाच्या शेतांत वचचें आनी ताणें तिका धांवडावपाचो यत्न करतकच गायेन जीव सोडचो अशें थारलें. गायेच्या पातकांतल्यान मुक्त जावपाक गौतम ऋषीक गंगा जमनीर हाडप भाग पडटलें आशिल्लें. गणपतीन ह्या कामांत फुडाकार घेतलो आनी ब्राम्हणरुपान गौतम ऋषीगेर वचून रावलो. थारिल्ल्याप्रमाण जया गायचें रूप घेवन गौतमाच्या शेतांत गेली आनी शेत खावपाक लागली. गौतमान तिका धांवडावपाक दर्भ काडून मारलो. दर्भ लागल्या बरोबर गायेन प्राण सोडलो. गौतमाक गो-हत्येचें पातक लागलें. तो खूब दुखी जालो. तेन्ना गणेशान आनी हेर ऋषींनी गौतमाक 'शंकराच्या माथ्यावेली गंगा जमनीर हाडल्यार, गो-हत्येच्या पातकांतल्यान मुक्ती मेळटली' अशें सांगलें.

गौतमान उपरांत खर तप करून शंकराक प्रसन्न करून घेतलो आनी ताचे जटेंतली गंगा मागली. शंकरान गौतमाची मागणी मान्य केली आनी आपले जटेंतल्यान गंगेक ब्रह्मगिरीवयल्यान सकल सोडली. कृतयुगाची दोन लाख वर्सां पुराय जातकच मांधाता राजा राज्य करतासतना, कूर्मावतार चालू आसतना, बृहस्पती सिंह राशींत गेल्लो आसतना माघ शु. दसमीक मध्यानेर ही गंगा ब्रह्मगिरीचेर देंवली. गंगेचो प्रवाह मेल्ले गायेवेल्यान गेल्ल्यान गाय जिवी जाली म्हूण हे न्हंयेक 'गोदावरी' अशें नांव पडलें.

ब्रह्मवैवर्त पुराणांत हिचे उत्पत्तीची कथा अशी आयल्या:

एकफावट एक ब्राह्मणबायल तीर्थयात्रेक वताली. ती खूब सुंदर आशिल्ली. एका निर्जन वाठारांत यमान तिचो बळयां भोग घेतलो. त्या संबंदांतल्यान तिगेर भांगरारंगाचो चलो जल्माक आयलो. ताका घेवन ती घरा गेली आनी घडिल्ली गजाल घोवाक सांगली. घोवाक हे घडणुकेचो राग आयलो आनी ताणें तिका सोडली. हे बायलेन खर तप केलें आनी गोदावरी न्हंय तयार जाली.

सद्या एका औदुंबर रुखाच्या पोंदाक एका खोल कुंडांत, पांयाचें चपकूल लेगीत बुडचें ना, इतल्या प्रमाणांत ही मूळ गंगा हांगा दिसता. तीच फुडें गिरिगर्भांतल्यान प्रवास करून ब्रह्मगिरीचे उदेंतेकडल्या भागांत प्रगट जाता. त्या गंगाद्वाराचेर गायेचें मुखें बांदिल्लें आसा. ताच्या वयल्या भागांत गंगेची मूर्त थापून देवूळ बांदलां.

वनवासी रामचंद्रान गोदावरीचे देगेर पंचवटी हांगा राबीतो केल्लो. वाल्मीकीक रामायण बरोवपाची स्फूर्त हे न्हंयचे देगेर मेळिल्ली. महाभारतांत तिचो 'सप्तगोदावरी' असो उल्लेख आयला.

महाराष्ट्रांतल्या नासिक जिल्ह्यांत त्र्यंबक गांवांत सह्याद्रींतल्या ब्रह्मगिरी दोंगराचेर गोदावरीचो उगम जाता. तिची लांबाय १४९८ किमी. आंसा. उदका येरादारीचें क्षेत्र ३,२३,८०० चौ. किमी. आसा. गंगाद्वाराकडल्या त्र्यंबकेश्वर क्षेत्राकडल्यान ही न्हंय उदेंत-आग्नेय दिकेन नासिक आनी अहमदनगर जिल्ह्यांतल्यान व्हांवता. फुडें ती औरंगाबाद-बीड जिल्ह्यांचे शिमेवयल्यान व्हांवता. महाराष्ट्राच्या परभणी, नांदेड जिल्ह्यांतल्यान ती आंध्र प्रदेश राज्यांतल्या आदिलाबाद आनी निजामाबाद जिल्ह्यांचे शिमेवयल्यान तशेंच आदिलाबाद आनी करीमनगर जिल्ह्यांचे शिमेवयल्यान व्हांवता. उपरांत पर्थून महाराष्ट्राच्या चंद्रपूर आनी आंध्र प्रदेशाच्या करीमनगर जिल्ह्यांचे शिमेवयल्यान आग्नेय दिकेवटेन वळटा. आंध्राच्या वरंगळ आनी खम्मम जिल्ह्यांतल्यान वचून फुडें ती दक्षिण दिकेक वळटा आनी उदेंत गोदावरी आनी अस्तंत गोदावरी हे दोन जिल्हे वेगळावन बंगालाच्या उपसागराक मेळटा.

सह्याद्री ते नासिक मेरेनच्या मार्गांत अशीर आनी फांतराळ भागांतल्यान येवपी हे न्हंयेचेर गंगापूर हांगा धरण आसा. नासिकसावन २४ किमी. अंतरार उजवे वटेन दारणा न्हंय २७ किमी. अंतरार तर दावे वटेन नांदूर हांगा काडवा न्हंय मेळटा. थंय हे न्हंयचेर मदमेश्वर धरण बांदलां. मुखार नेवासे हांगा उजवेवटेन प्रवरा न्हंय मेळटा. पूर्णा स्थानकाचे दक्षिणेक परभणीच्यान आयिल्ली पूर्णा न्हेंय दावेवटेनच्यान, तर नांदेडमुखार कोंडलवाडीलागीं उजवे वटेन मांजरा न्हंय मेळटा. फुडें चंद्रपूर जिल्ह्याचे शिमेर प्राणहिता तर मध्य प्रदेशांतल्यान आयिल्ली इंद्रावती भद्राचलम (आंध्र) हांगा मेळटा. धर्मसागर हांगा तिका उजवेवटेन किन्नरसानी तर दावे वटेन शबरी मेळटा. पापिकोंडालू हांगा ऊंच आनी अशीर देगणांतल्यान ती मार्ग काडटा. हांगा तिच्या दोनूय कुशीनचे कडे १,२८० मी. मेरेन ऊंच गेल्यात. भोंवतणचो वाठार साग, कोंडे सारक्या दाट झाडांनी भरला. ह्या उपरांत न्हंय रुंद जाता. तिच्या पात्रांत रेव्यापसून तयार जाल्ले जुंवे दिसतात. तांकां लंका म्हण्टात. ह्या जाग्यार तंबाखूचें पीक काडटात. राजमहेंद्री हांगा गोदावरीचेर २.५ किमी. लांबायेचो रेल्वे पूल आसा. धवलेश्वरम् हांगा हे न्हंयचेर एक बांद आसा. हो १८५७ त बांदिल्लो. ह्या बांदाक 'ॲनिकट' म्हण्टात. थंयच्यान गोदावरीचो त्रिभूज प्रदेश सुरू जाता. हांगा गोदावरीचे तीन प्रवाह तयार जातात. तातूंतले उदेंतेकडेन व्हांवपी गौतमी गोदावरी आनी अस्तंतेकडेन व्हांवपी वसिष्ठ गोदावरी हे मुखेल प्रवाह आसात. तिसऱ्या प्रवाहाक वैनतेय म्हण्टात. हे अनुक्रमान यनम्, रझोले अनी नरसपूर हांगा दर्याक मेळटात. त्रिभुज प्रदेशाचो उदेंतेकडलो भाग १,१६५ चौ. किमी., मदलो भाग १,०३६ चौ. किमी. आनी अस्तंतेकडलो भाग २,५८९ चौ. किमी. आसा. त्रिभूज प्रदेशांत सगळे कडेन कालव्यांचें जाळें विणलां. मुखेल कालव्याची लांबाय ७९३ किमी. आसा. तातूंतल्यान न्हंयेवरीच उदका येरादारी चलता. वितरण फांट्यांची लांबाय ३,०८६ किमी. आसा. गोदावरीचे कालवे एलुरु लागीं कृष्णा कालव्याक जोडिल्ल्यान दक्षिणेकडले उदका येरादारींत चड वाड जाल्या.

गोदावरी आनी तिच्या उपन्हंयांचे जे प्रकल्प आसात, तातूंत गंगापूर, दारणा, भंडारदरा, भोजापूर, नांदेड, मुळा, जायकवाडी, येलदरी, सिध्देश्वर, मानार, पोचंपाड, इंचंपल्ली हांचो आस्पाव जाता.

पूर्विल्ल्या काळासावन न्हंयतल्यान आयिल्ल्या रेव्याक लागून आनी भरपूर उदकाक लागून गोदावरीचो त्रिभूज प्रदेश पिकाळ जाला. ह्या वाठारांत तांदूळ, दाळ, कड्डण, तेलबियो, भिकणां, तंबाखू, ऊंस, नाल्ल, केळीं, आंबे आनी हेर फळांचें खूब उत्पन्न येता. फुलांच्यो बागोय हांगा व्हड प्रमाणांत आसात. अमलापूर आनी काकिनाडा हीं सागरी नुस्तेमारी केंद्रां आसात. बलभद्रपुरम् हांगा अंतर्गत मत्सकेंद्र आसा. महाराष्ट्रांतलो गोदावरीचो वाठारूय पिकाळ आसा. ह्या वाठारांत तांदूळ, गंव, बाजरी, पेर, अंजीर, डाळींब, कड्डण, कापूस, केळीं, द्राक्षां, मिरसांग, ऊंस, मोसंबी ह्यो आनी हेर पिकावळी जातात. सुती आनी लोकरी कापड विणपाचे तशेंच साकरेचे जायते कारखाने ह्या वाठारांत आसात.

गोदावरी न्हंय महाराष्ट्र आनी आंध्र प्रदेश राज्याक म्हत्वाची उदका-पुरवण करता. महाराष्ट्रांतल्यान ती ६५० किमी. व्हांवता. तर उरिल्लें अंतर आंध्र प्रदेशांतल्यान वता. हे न्हंयच्या उदकाक लागून १९६८ त वयल्या दोनूय राज्यांमजगतीं तंटो उप्रासलो, तो १९७५ त मिटलो.

**धर्मीक म्हत्वः** गोदावरी ही ब्रह्मा-विष्णू-महेश हांचें पडबींब आशिल्ल्याचें मानतात. सगळ्या न्हंयांमदीं ही जाण्टी आनी श्रेश्ठ आसा. तिच्या स्मरणान सगळ्या पातकांचो नाश जाता, अशें म्हण्टात. सिंहस्थ पर्वणीवेळार गोदावरींत न्हाण केल्यार पुण्य मेळटा, अशें ब्रह्मांडपुराणांत सांगलां.

स्कंद पुराणांत अशें सांगलां की, साठ हजार वर्सां भागीरथींत न्हावन जें पुण्यफळ मेळटा, तितलेंच पुण्यफल सिंहस्थ पर्वणीवेळार गोदावरींत न्हाण केल्यार मेळटा.

**तीर्थस्थळां:** भारतांत तिचे देगेर दशाश्वमेधिक, गोवर्धन, सावित्री, विदर्भ, मार्कंडेय आनी किष्किंधा हीं तीर्थां आशिल्ल्याचें सांगलां. ब्रह्मपुराणांत तिचे देगेवयल्या १०० तीर्थांचें वर्णन आयलां. हातूंतलीं

त्र्यंबक, कुशावर्त, जनस्थान, गोवर्धन, प्रवरासंगम आनी निवासपूर हीं तीर्थां पुण्यफळ दिवपी मानल्यांत. गोदावरीच्या वसिष्ठा, वैनतेय आनी गौतमी ह्या तीन प्रवाहांभितर आशिल्ल्या अमलापुर जुंव्यार यात्रेक येवपी लोक फकत आयताराचें न्हाण घेतात. पुराणांत थंयच्या शिवमंदिरांतलें शिवलिंग, गुरुडान नर्मदेंतल्यान हाडिल्ल्याचें सांगलां. भद्राचलम् हें तीर्थ रामान थंय रावीतो केल्ल्यान पुण्यस्थळ जालां. नासिक आनी पैठण ह्या दोनूय क्षेत्रांकूय संस्कृतीक नदरेन व्हड म्हत्व आसा. तशेंच न्हंयचे देगेर वशिल्ले प्रतिष्ठाननगरीक 'दक्षिणेंतली काशी' म्हूण पाचारतात. नेवासे राजमहेद्री आनी कोटिपल्ली ह्या तीर्थथळांकूय खास म्हत्व आसा.

दर बारा वर्सांनी सिंहस्थ पर्वणीचे वेळार, नासिक क्षेत्रांत हे न्हंयेचे देगेर व्हड जात्रा भरता.

- कों. वि. सं. मं.

**गोपुर:** 'गोपुर' म्हळ्यार नगराचें वा मंदिराचें प्रवेशदार. अमरकोशांत 'पुरद्वारं तु गोपुरम्' म्हळ्यार नगराच्या दाराक गोपुर म्हणचें, अशें सांगलां. महाभारत आनी रामायण ह्या ग्रंथांनी 'गोपुर' हो शब्द वयल्या अर्थानूच आयला. इ. स. १००० उपरांतच्या काळांतूय 'गोपुर' हो शब्द ह्याच अर्थान वास्तुशास्त्रांत घोळटालो. सद्या 'गोपुर' हो शब्द दक्षिण भारताच्या मंदिरांतल्या प्राकारांभितर द्रविड शिल्पाच्यो ज्यो कलात्मक आनी सोबीत वास्तू आसात, ताका उद्देशून वापरतात. दक्षिण भारतांत मंदिराच्या प्राकारा भोंवतणी ऊंच वण्टी आसतात, ताच्या प्रवेशदाराचेर शिखरावरी उंचमेरेन कोरांतिल्लें शिल्पकाम केल्लें आसता. ह्या वण्टींक जायत्यो माळयो आसतात आनी तांचेरूय नकसूद शिल्पकाम केल्लें आसता. आयज हेच कला-वास्तूक 'गोपुर' म्हूण नामना मेळ्ळया.



'गोपुर' ह्या शब्दाचे उत्पत्तीचो आनी ह्या कलावास्तूंच्या उदयाचो नेमको काळ-वेळ मेळना. वेदांतल्या गोमतीपूर ह्या शब्दावेल्यान गोपुर हो शब्द आयलो जावंक जाय, अशें म्हण्टात. मानसार ग्रंथावेल्यान, देवळां आनी राजवाडे हांच्या दरवट्यांचेर गोपुरां आसतालीं, अशें समजता.

कांजीवरम हांगाचें कैलासनाथमंदिर आनी पट्टदकल हांगाचें विरुपाक्ष मंदिर हांच्या प्रवेशदारांचेर जीं गोपुरां आसात, तीं गोपुरशिल्पाचें मुळावें स्वरुप दाखयतात. इ.स. च्या बाराव्या आनी तेराव्या शतमानांत पांडवकाळांत गोपुरशिल्पाची कला उदरगतीचीं नवीं-नवीं सपणां चडली. चिदंबरम् हांगाचीं पांडवांचे मुस्तींतलीं श्री. नटराजा मंदिराचीं गोपुरां (११००-१३५०), विजयनगराचीं आनी श्रीरंगम्चीं गोपुरां हीं गोपुरां, गोपुरशिल्पाचे उदरगतीचीं उदाहरणां जावन आसात. चिंदबरम्च्या गोपुरांमदीं चोळशिल्प परंपरेंतली सोबीतकाय दिसून येता. १२५० च्या सुमाराक सुंदर पांड्य राजान बांदिल्ल्या ह्या गोपुरांत अपूप नक्षीकामाची सोबीतकाय दिश्टी पडटा. मदुराईंतल्या मीनाक्षी मंदिरांतलीं सातव्या प्राकारांतलीं गोपुरां लक्ष ओडून घेतात. १६२३-५९ ह्या काळांत तिरुमल नायकान हीं गोपुरां बांदलीं. दक्षिण दिकेवटेन भितर सरतना दिसपी गोपुराचें भायलें आंगूय सोबीत आसा. सुमार ४५.७२ मी. उंचाय आशिल्ल्या ह्या गोपुराकडेन सर्त करपी एकूय गोपूर दिश्टी पडना.

गोपुरां दोन तरांचीं आसतात. पयले तरेच्या गोपुरांमदीं, पयल्यो दोन माळयो नीट, उब्यो आनी फातराच्यो आसतात. तांचेवयलें बांदकाम विटांचें आसता. सामकी वयल्या तोंकावेली रुंदाय सादारणपणान पयले माळयेच्या रुंदायेची अर्द भरता. ताचेवयर अर्दवर्तुळावरीच पूण लांब अशें पाखें आसता. देवळाच्या वयल्या भागाप्रमाण हें शिल्पकाम चवकोनी नासता, तर ताची एक बाजू चड लांब आशिल्ल्यान, ताचें पाखें घुडाच्या आकाराचें जायना, तर चैत्यगृहावेल्या लांबोड्या पांख्यावरी जाता. गोपुराच्या वयल्या दोनूय आंगांक दोन अंतर्वक्र शृंगां ' आसप, ही शैव मंदिराच्या गोपुरांचीं लक्षणां आसतात. तीं शृंगां नंदीच्या मस्तकाचें प्रतीक आसतात. गोपुरांची दुसरी तरा म्हळ्यार तातूंत वयल्यो माळयो सरळ नासून फुगिल्ल्यो आसतात. तांचेर नक्षीकाम आसून शेंकड्यांनी मूर्ती कोरांतिल्ल्यो आसतात. सादारणपणान दोनूय गोपुरांमदीं जीं कांय खाशेलेपणां दिश्टी पडटात, तीं म्हळ्यार गोपुरांचें प्रवेशदार रुंदायेचे दुपेटीन ऊंच आसता. ताच्या दोनूय कुशींनी द्वारपालांच्यो मूर्ती आसतात. देवळाच्या प्राकारांत हीं गोपुरां आसतात. हांची संख्या कांयकडेन एकवीस मेरेनूय आसता. दर गोपुरांत मजल्यांचो आंकडोय वेगवेगळो आसता. देवळाच्या सगळ्या भायल्या प्राकारांतलें गोपुर सगळ्यांत व्हड आसता, तर ताचेफाटलीं क्रमान ल्हान ल्हान आसतात. सगळीं गोपुरां देवळाच्या घुडापरस ऊंच आसतात. देवळाच्या प्राकारांत चड प्रांगणां आसत तर दर प्रांगणांत एक-एक गोपुर आसता. मानसार ग्रंथांत दर एका गोपुराक नांव मेळटा. पयल्याक द्वारशोभा, दुसऱ्याक द्वारशाला, तिसऱ्याक द्वारप्रसाद, चवथ्याक द्वारहर्म्य आनी पांचव्याक महागोपुर अशीं नांवां आसात. गोपुराच्या मजल्यांचेय श्रीभोग, श्रीविशाल, विष्णुकांत, इंद्रकांत, ब्रह्मकांत, स्कंदकान्त आनी हेर अशे धा वर्ग आसात. शिखरांचो, घुडाचो आकार, पडव्यो आनी मनोरे हांचो आंकडो आनी तातूंतलें वेगळेंपण हांकांलागून हे वर्ग पडल्यात. मानसारांत गोपुराच्या पयल्या पांच माळयांचीं खोलायेन वर्णनां केल्यांत आनी तांचेवेलें नक्षीकाम आनी रचणूक कशी आसची तेंय सांगलां.

गोपुरां बांदपा फाटलो हेत कितें आसलो तो स्पश्ट जायना. तेचपरी देवळाच्या घुडापरस गोपुराची उंचाय व्हड दवरपाफाटल्यान कसलें कारण आसलें, हेंय समजना.

मदुराईच्या मीनाक्षीच्या देवळाच्या प्राकारांत व्हड अशीं णव गोपुरां आसात. तेभायर जंबुकेश्वर, चिदंबरम्, तिरुअण्णामलै, तिरुवल्लुर, कांचीपुरम्, श्रीरंगम्, कुंभकोणम्, त्रिचनापल्ली हींय थळां गोपुरांक लागून नामनेक पावल्यांत. कुंभकोणम्च्या सारंगपाणी देवळाचें गोपुर बारा माळयांचें आसा. त्रिचनापल्ली हांगाच्या श्रीरंगाच्या देवळांत ल्हान-व्हड अशीं एकवीस गोपुरां आसात. महाराष्ट्रांत परशुरामभाऊ पटवर्धन हाणें तासगांवच्या गणपती मंदिराच्या प्राकारांत अशेंच एक गोपुर बांदलां. पुण्यांत संगमाचेर शिवमंदिरांतूय एक ऊंच गोपुर आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**गोफ:** गोंय आनी महाराष्ट्रांतलो एक नामनेचो लोकनाच. हो नाच करपाक चार, स, आठ जोडयो वांटो घेतात. नाच करपी लोक श्रीकृष्णाच्या गोपांचो भेस करतात. तबलें आनी झांज हांचे साथीचेर हो नाच जाता.

नाच्यांत जितले लोक वांटो घेतात, तितले रंगीबेरंगी कपडयाच्यो पट्ट्यो एकठांय करून तांच्या एका तोंकाक गांठ मारतात. ती गांठ माटवाच्या वांश्याक बांदतात. मागीर तातूंतल्यान एक पट्टी आनी एक तोणी, दर नाचपी आपल्या दाव्या-उजव्या हातांत घेतात. मागीर एके लयींत दर एकलो एक-दुसऱ्याचे तोणयेचेर मारता. कांय खीणांभितर सगळे नर्तक फेर धरतात आनी नाचाची सुरवात जाता. नर्तक फाटीं-फुडें वतात आनी आपलो जागो बदलतात. तातूंतल्यान त्या पट्ट्यांचो आपसुकूच गोफ विणून तयार जाता.

गोफ पुराय विणून जातकच नाचाक उरफाटी गती दितात. ताका लागून विणिल्लो गोफ हळूहळू सुटत वता. गोफ पुराय सुट्टकच नाच थांबता. नाचाच्या विंगडविंगड प्रकारां प्रमाण म्हळ्यार नर्तकांच्या वेगवेगळ्या पदन्यासाप्रमाण, गोफाचे तरेकवार वेंटे घडटात.

हो नाच कलात्मक तेचपरी सुंदर आसता. कोंकणांत आनी गोंयांत ह्या नाचाक खाशेलें म्हत्व आसा. गोंयांत काणकोणच्या गोफाची बरीच नामना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**गोफीण:** चामड्याच्या पट्याक दोन रबराचे पटे बांदून ते दोनूय पटे लांकडाच्या केकल्याक खाशेले तरेन बांदून तयार केल्लें एक साधन. चामड्याच्या पट्यांत फातर दवरून आनी रबराचे पटे नेटान ओडून तो फातर आपल्याक जाय ते वस्तूचेर मारपाखातीर हें साधन वापरतात.

पूर्विल्ल्या काळासावन गोफीण मनशाच्या हातांत घोळटाली, अशें दिसून येता. सुश्रुतसंहितेंत हो शब्द 'गोफणा' ह्या रुपांत आयला. कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत गोफणीचो उल्लेख आयला.
महाभारतांतल्या आदिपर्वांत 'चक्राश्म' आनी 'भृशुंडी' ह्या गोफणीसारक्या साधनांचो उल्लेख आयला.

गोफीण सादारणपणान शेतांतलें धान्य, झाडावेलीं फळां, फुलां, घरांत वा घराभायर सुकत घाल्ल्यो वा दवरिल्ल्यो वस्ती हांची सुकणीं, कुकडां, तेचपरी जमनीर भोंवपी जनावरां सावन राखण जावपाखातीर ह्या सुकण्यां-जनावरांक चड मार लागनासतना धांवडावंक मेळचें म्हूण वापरतात.

अश्मयुगांतले गोफणीचे फातर सांपडल्यात. भारतांत आयजूय गोफणीचो वापर चलता. भिल्ल, गोंड साख्या आदिवासींचें गोफीण हें खास साधन जावन आसा. ल्हान भुरगीं गोफणीचो वापर खेळण्यासारको करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**गोमंतेश्वर देवस्थान (ब्रह्मपुरी-गोंय):** नाभिक समाजाखातीर पोरन्या गोंयां श्री ब्रह्मपुरी ह्या इतिहासीक नामनेच्या क्षेत्रांत नाभिक समाजान बांदिल्लें देवूळ . श्री गोमंतेश्वर शिवलिंगाची प्राणप्रतिष्ठापना शुक्ल द्वादशी शके १८६९, तारीख २ मे १९४७ ह्या शुभ म्हुर्तार जाली. देवस्थानाचे घटनेप्रमाण नाभिक समाजांत १८ वर्सां पुराय जाल्ल्या मनशाक 'महाजन' ही संज्ञा मेळटा. हें देवूळ उत्तराभिमुख आसून तातूंत श्री गोमंतेश्वराची (काळ्या पाशाणाच्या शिवलिंगाची) प्राणप्रतिष्ठा केल्ली आसा. म्हापुजेउपरांत ताचेर चांदीचो मुखवटो कवचासकट बसयतात आनी ताचे फाटल्यान प्रभावळ बसयतात. श्री गोमंतेश्वर लिंगा सामकार काळ्या पाशाणाचो श्री नंदिकेश्वर आसून श्री शिवलिंगाचे उजवे वटेन संगमरवरी श्रीगणपतीची मूर्त आसा. हाची सोंड उजवे वटेन वळिल्ली आसा. फाटल्यान श्री दत्तात्रय मूर्त आसा.

शके १९५७, तारीख २७ फेब्रुवारी १९३५ दिसा ब्रह्मपुरींत महाशिवरात्रेची जात्रा भरिल्ली. भगवान रामकृष्ण परमहंसाचे शिष्यपरंपरेंतलो रामेश्वराचो ब्रह्मानंद गिरी योगी म्हाराज हो थंय पावलो आनी थंयचें देवूळ बांदपाचें कार्य पळोवन ताणें ताका बरें यश आंवडिलें. तेचप्रमाण ताणें आपल्याकडलें शिवलिंग, हनुमान, गणपती, नाग आनी नंदी ह्यो पांच मूर्ती वेवस्थापक मंडळाचे स्वाधीन केल्यो आनी देवूळ बांदून जातकच थंय त्यो स्थापन करपाक सांगलें.

हें देवूळ दोंगर कापून केल्ले सपाट सुवातींत आसा. घुडाचेर ताम्रकलश आसा. ह्या देवळालागींच 'माधव तीर्थ' आसा. देवळाचे उजवे वटेन अगरसाळ आसा. अगरसाळीचे उदेंतेक कांय अंतरावेले शिमेरूच पोरन्या वडाच्या रुखाकडेन ब्रह्मराक्षस आसा, असो समज आसा. देवळाच्या वाडदिसाच्या सुवाळ्याक देवळाचो पुजारी ह्या ब्रह्मराक्षसाक निवेद्य दाखयता.

दरेक सोमारा ह्या देवस्थानांत अभिषेक, निवेद्य आदी देवकृत्यां जातात. खंयच्याय स्पृश्य हिंदूक आपल्या हातान हांगाच्या शिवलिंगाचेर अभिषेक करपाक मेळटा. वैशाख शुक्ल द्वादशीक प्रतिष्ठापन दीस म्हूण सांजेचो शिबिकोत्सव जाता. श्रावणी सोमार जाता. निमाण्या सोमाराक शिबिकोत्सव आसता. माघ कृष्ण चतुर्दशीक महाशिवरात्र हो वर्सुकी महोत्सव आसता. प्रदोषकाळांत तिळसांजची पालखी आसता. तेउपरांत नाटकां जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**गोमन्त विद्या निकेतन:** १९ मार्च १९१२ दिसा मडगांव हांगा थापणूक जाल्ली एक संस्था. समाजीक आनी संस्कृतीक मळार वावर करपाखातीर ही संस्था अस्तित्वांत आयली. पयलीं हे संस्थेचें नांव 'सारस्वत ब्राह्मण समाज' अशें आशिल्लें. उपरांत १९६२ त तें नांव 'गोमन्त विद्या निकेतन' अशें बदललें. सर्गेस्त यशवंतराव सूर्यराव सरदेसाई, स. भिकाजी पुरुषोत्तम पै बाळे, स. काशिनाथ दामोदर नायक, स. केशव अनंत नायक, स. सदाशिव वासुदेव केंकरे, स. गोविंद सखाराम पाणंदीकर, स. रामचंद्र व्यंकटेश नायक, स. रामकृष्ण नारायण बाळे, स. केशव कृष्णा नायक हे संस्थेचे संस्थापक वांगडी आशिल्ले.

हे संस्थेची स्वताची इमारत आसा आनी तातूंत व्हडलें साल आसा. थंय जायत्यो भौशीक कार्यावळी जातात. संस्थेच्या वाचनालयांत मराठी, इंग्लीश, पोर्तुगेज भासांतलीं सुमार २९,००० पुस्तकां आनी विंगडविंगड नेमाळीं वाचूंक मेळटात. ही संस्था दर वर्सा तीन व्याख्यानमाळो घडोवन हाडटा. ह्यो व्याख्यानमाळो अश्यो आसात: श्रीनिवास नायक यादस्तीक व्याख्यानमाळ, दत्ता गोविंद पै रायतूरकार यादस्तीक व्याख्यानमाळ आनी प्रो. बाबुसो कामत यादस्तीक व्याख्यानमाळ.

दर वर्सा ही संस्था सुमार १६ हजार रुपया शिष्यवृत्तीच्या रुपांत गरजेवंत आनी हुशार विद्यार्थ्यांक वांटटा. तेभायर ही संस्था संगीत आनी नाटकांच्योय सर्ती घडोवन हाडटा. दरखेळा ही संस्था नामनेच्या गवयांचे संगीत कार्यक्रम आनी मैफली घडोवन हाडटा. 'कला विभाग' हो संस्थेचो फांटो नाटक आनी कलेच्या हेर मळार सातत्यान वावर करीत आसा. तांणी गोंय, महाराष्ट्र राज्यांतलीं सर्तींतलीं जायतीं इनामां मेळयल्यांत. धा वर्सां आदीं सुरू जाल्लें संस्थेचें 'योगकेंद्र', योग शिक्षण दिवपाचो मोलादीक वावर थळाव्या वाठारांत करता. तरणाट्या लेखकांखातीर मार्गदर्शन शिबिरां आनी नाटकांच्या विंगडविंगड आंगाचेर आदारिल्लीं प्रशिक्षण शिबिरांय ही संस्था घडोवन हाडटा. गोंयच्या बरोवप्यांक उत्तेजन दिवपाखातीर दर वर्सा ही संस्था तांचे बरे मराठी साहित्यकृतीखातीर ३,००० रुपया आनी २,००० रुपयांचे दोन पुरस्कार दिता.

- कों. वि. सं. मं.

**गोमन्तक साहित्य सेवक मंडळ:** डिसेंबर १९२८ त मडगांव हांगा स्थापन जाल्ली एक संस्था. गोंयचें मराठी साहित्य आनी मराठी भाशा हांकां पालव दिवपाखातीर आनी पर्यायान तेन्नाचे पोर्तुगेज राजवटींत मराठी भाशेवरवीं भारतीय विचार आनी संस्कृताय हांची

जतनाय करपाची मोख मुखार दवरून हे संस्थेची थापणूक जाली. त्या उद्देशान मराठी भाशा आनी साहित्य गोंयांत वाडोवप, मराठी साहित्यिकांक उर्बा दिवप आनी मराठी साहित्य संमेलनां घेवप असले तरेचो वावर हे संघटनेन केला.

रामचंद्र वामन करंडे शास्त्री, काशीनाथ दामोदर नायक, शांबाराव सरदेसाई, दत्तात्रय व्यं. पै., यशवंतराव (भाई) सरदेसाई, शिवा फटू पै आंगले आनी हेर कांय जाण हे संस्थेचे संस्थापक वांगडी आशिल्ले. तांणी सुरू केल्लो वावर फुडें चालू दवरपांत आनी गोंयची मराठी वाङ्मय चळवळ फुडें व्हरपांत जनाप्पा कामत, न. पुं. सुकेरकर, बा. द. सातोस्कर, गणाधीश खांडेपारकर, म. हि. सरदेसाई, जयवंतराव सरदेसाई, माधव गडकरी, सुभाष भेंडे आनी हेरांचो मोलादीक हातभार लागलो. सद्या हे संस्थेचें कार्यालय पणजे इंस्टिट्यूट मिनेझीश ब्रागांझ हांगा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**गोरखनाथ:** नाथपंथीय संप्रदायांतलो एक व्हड संत. ताणें नाथपंथीय समाजाचो प्रसार केलो. ताका गोरक्षनाथ ह्या नांवानूय वळखतात. ताच्या जल्माविशीं अजूनय मतभेद आसात. दक्षिणेंतले गोदावरी न्हंयेचे देगेर चंद्रगिरी गांवांत 'बडव' देशांत काठेवाडांतले गोरखमठींत, तेचपरी पंजाब ह्या विंगडविंगड सुवातींनी, गोरखनाथाचें जल्मथळ म्हूण जाणकार बोट दाखयतात. नवनाथ कथासाराच्या णव्या अध्यायांत, गोरखनाथाची जल्मकथा अशी आयल्या:

एक फावट मच्छिंद्रनाथ बंगालांत चंद्रगिरी गांवांत एका ब्राह्मणाच्या घरांत पावलो. ताची सरस्वती नांवाची बायल आसली; पूण ती भुरगें नाशिल्ल्यान दुखेस्त आसताली. मच्छिंद्रनाथान तिचें दुख्ख वळखून तिका मंत्रिल्ली बिबूत दिली आनी ती खावपाक सांगली; अशें केल्यार तिका भुरगें जातलें अशेंय ताणें सांगलें. सरस्वतीचो हे गजालीचेर विश्वास बसलोना. तिणें ती बिबूत भायर गोबरांत उडयली. बारा वर्सांनी परतो येवन मच्छिंद्रनाथान भुरग्याची खबर घेतली, तेन्ना तिणें ती बिबूत आपणें गोबरांत उडयली म्हणून सांगलें. मच्छिंद्रनाथ बिबूत उडयली थंय गेलो आनी तातूंतल्यान एका भुरग्याक ताणें भायर काडलो. हो भुरगो बारा वर्सांमिरेन गोबरांत वाडलो म्हूण ताका 'गोरक्ष' हें नांव पडलें.

कांय जाणकार, गोरखनाथ णव्या वा धाव्या शतमानांत जावन गेलो आसूंये, अशें म्हण्टात. हजारीप्रसाद द्विवेदीच्या मतान णव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत तो जावन गेलो. रा. चिं. ढेरे ताचो काळ १०५० ते ११५० हो मानता. कांय दंतकथांनी कबीर (सुमार १४८८-१५१२) आनी गुरु नानक (सुमार १४६९-१५३८) हांचेकडेन गोरखनाथान उलोवप केल्याचे उल्लेख आयल्यात.

गोरखनाथाचें घराणें उंचेल्या ब्राह्मण कुळांतलें आसलें, अशें हजारी प्रसाद द्विवेदीचें मत आसा. दक्षिणेंत येवन राविल्ल्या एका काश्मिरी ब्राह्मणागेर गोरखनाथाचो जल्म जालो, अशें रा. चिं. ढेरे मानता. डॉ. मोहन सिंगाच्या मतान सकयले जातींतले एके हिंदू विधवेचो हो अवैध पूत जावन आसा. गोरक्षसिध्दान्त संग्रहांत ताका 'ईश्वराचें संतान' म्हळ्यार घरदार नाशिल्लो अशें म्हळां. 'मतिरत्नाकर' ह्या महानुभावांच्या ग्रंथांत ताका शुद्र कुळांत जल्माक आयिल्लो अशें म्हळां.

ताचो नाथासंप्रदायाच्या नवनाथांभितर आनी चवऱ्यांयशीं सिध्दांभितर आस्पाव जाता. नाथसंप्रदायाचे आदिप्रवर्तक म्हूण चार महायोग्यांचो उल्लेख येता. आदिनाथ म्हळ्यार साक्षात शिव. ताचे दोन शिष्य जालंधरनाथ आनी मच्छिंद्रनाथ (मत्स्येंद्रनाथ). जालंधरनाथाचो शिष्य कृष्णपाद (कानीफा, कण्हपा, कान्हपाद) तर मच्छिंद्रनाथाचो शिष्य गोरखनाथ. जालंधर, मच्छिंद्र, कृष्णपाद आनी गोरखनाथ हांणी ह्या मूळ नाथपंथाची बुन्याद घाली, ह्या विशयाचेर नाथ परंपरेंत एकमत आसा. जालंधर आनी कष्णपद हांचो संबंद कापालिक साधनेकडेन खास करून आयला, तर नाथ संप्रदायांत चड करून मच्छिंद्र आनी गोरखनाथ हांचो उल्लेख आयला. अमरनाथ, गहिनीनाथ, भर्तृहरी, गोपीचंद आनी विमलादेवी हे गोरखनाथाचे मुखेल शिष्य आसले. गोरखनाथ पुराय भारतभर भोंवडी करतालो. ताचे शिष्य विंगडविंगड प्रदेशांतले आसले. देखीक गहिनीनाथ, अमरनाथ हे महाराष्ट्रांतले, भर्तृहरी उज्जैयनीचो, गोपीचंद बंगालचो आसलो. भर्तृहरी आनी गोपीचंद तर आपलें राजवैभव सोडून गोरखनाथाच्या संप्रदायांत आयिल्ले.

गोरखनाथान संस्कृत, अपभ्रंश, हिंदी आनी हेर भारतीय भासांत कितलेशेच ग्रंथ बरयल्यात. लोकभाशेंत ग्रंथांची रचूणक करून ताणें त्या भासांक व्हडपण मेळोवन दिलें. ताच्या संस्कृत आनी अपभ्रंश ग्रंथांत 'अमनस्व', 'गोरक्ष शतक', 'अमरौघ', 'गोरक्ष-पध्दती', 'गोरक्ष संहिता', 'महार्थमंजरी', 'सिध्दसिध्दांत पध्दति', 'योगमार्तंड' हे म्हत्वाचे ग्रंथ जावन आसात. हिंदींत गोरखनाथाचे सुमार चाळीस ग्रंथ आसात. ताचे हे सगळे ग्रंथ पीतांबरदत्त बडथ्वाल हाणें संपादीत केल्यात. तेभायर गोरखनाथान आपली शिष्या विमलादेवीक 'गोरक्षोपनिषद' सांगिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. ह्या ग्रंथावेल्यान, गोरखनाथाचे बुद्दीची तांक केद्दी व्हड तोलामोलाची आसली, तें समजता.

गोरखनाथाचें धर्म आनी संस्कृतायेविशींचें योगदान खूब व्हड आसा. पांच वायट विकारांचेर आदारिल्ली विवेकशून्य आनी आचरणान भ्रश्ट जाल्ली साधना त्याकाळार व्हड प्रमाणात बळावल्ली. गोरखनाथान ही वायट चाल आळाबंदा हाडूंक योगमार्गाचो प्रसार केलो. पतंजलीच्या अष्टांग योगाचो उपेग करचो सोडून ताणें षडग योगाचो आदार घेतलो. हो योग 'हठयोग' म्हूण वळखुपाक येवंक लागलो. गोरखनाथान प्रस्थापन केल्ल्या योगमार्गाचे वा नाथपंथाचे बारा फांटे वा पंथ आसात. तेखातीर ताका 'बारहपंथी' अशें नांव पडिल्लें. ह्या संप्रदायाचे वांगडी कानफाटे वा दरसनी साधू म्हणूनय वळखुपाक येतात. ह्या नाथपंथीय संप्रदायाचे बारा फांटे फुडले तरेन आसात: १. भूजची (कच्छ) कंठरनाथी २. पंजाब, पेशावर आनी रोहटकची पागलनाथी ३. पेशावर आनी अफगाणिस्तानांतली रावल ४. पुरी, मेवास्थानेश्वर (थानेसर) आनी कर्णालची पंख वा पंक ५. मारवाडची बन ६. जोधपूरची गोपाल वा रामके ७. बंगालची चांदनाथ कपिलानी ८. टिला, अंबाला, कर्णाल हांगाची हेठ्नाथी ९. बंगालच्या दिनाजपूर जिल्ह्यांतली चोलीनाथ आईपंथी १०. रतढोंडा मारवाडची बैरागपंथी ११. जयपूरची पावनाथी १२. धजनाथी.

ह्या सगळ्या फांट्यांत पयलींचे जायते पंथ आस्पावल्यात. देखीक-कपिलाचो योगमार्ग, लकुलीश मत, कापालिक मत, वाममार्ग आनी हेर

गोरखनाथाचें कार्य विंगडविंगड तरांचे आसलें. देवत्व मेळोवपाक देश, काल, धर्म, वंश, जाती हे सगळे भेद माड्डोवन मुखार वचपाक जाय, अशें ताचें म्हणणें आसलें. खर वैराग्य, विशुध्द चारित्र्य, सदाचार, ब्रह्मचर्य हांकां पाळो दिवन ताणें स्वताच्या आचाराणाचें म्हत्व त्या काळांतल्या समाजाक पटोवन, अनैतीक, अविवेकान वागपी, वायट करणी करपी भौसाक आळाबंदा हाडून भारतीय आध्यात्मीक साधनेचो उपदेश केलो. योगसाधनेक सुसंघटीत रुप दिवन योगसाधनेक वेवस्थितपणा हाडलो.

हिंदू-मुस्लीम एकचाराची बुन्याद सगळ्यांत पयलीं गोरखनाथान घाली. ताच्या शिष्यांत हिंदू तशेंच मुस्लीम जातीचे लोक आसताले. बाबा रतन हाजी हो मुखेल मुस्लीम वांगडी आसलो. आयजूय नाथ संप्रदायाच्या रावळ फांट्यांत मुसलमान लोक व्हड प्रमाणांत आसात. गोरक्षसिध्दान्त संग्रहांत ताणें वर्णाश्रमाआड कडक विचार मांडल्यात. तेखातीर वर्णभ्रश्टाक नाथसंप्रदाय, ही आश्रयाची सुवात दिसताली. शुद्रावांगडाच बायलांविशींय गोरखनाथाक तळमळ आसली; आपल्या शिष्यांभितर ताणें बायलांकूय आस्पावन घेतिल्लीं. विमलादेवी आनी मयनामती ह्यो ताच्यो मुखेल बायल शिष्या.

गोरखनाथाच्या विचारांचेर विस्वास दवरपी नाथपंथीय अनुयायी आनी तांचे मठ आयजलेगीत भारतांतूच न्हय, तर श्रीलंका, नेपाळांत लेगीत आसात. ताच्या विचारांचो प्रभाव ताचे उपरांत सगळ्या निर्गुणपंथीय

अनुयायांचेर लेगीत पडला. ज्ञानेश्वरान गोरखनाथाचो 'विषयविध्वंसैक वीर' ह्या उतरांनी गौरव केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गोरखपुरी, फिराक:** (जल्म: २८ ऑगस्ट १८९६, गोरखपूर-उत्तर प्रदेश).

भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार फाव जाल्लो एक म्हान उर्दू कवी. ताचें मूळ नांव रघुपतिसहाय, पूण फिराक गोरखपुरी ह्याच नांवान ताची चड नामना आसा. ताचो बापूय गोरखप्रसाद 'इबरत' होय एक कवीच आशिल्लो. ताणें घरा तज्ञ शिक्षक दवरून, तांचेवरवीं ताका घरचेघराच मुळावें शिक्षण दिलें. १९१३ वर्सा तो गोरखपूर शारांतल्या सरकारी ज्युबिली हायस्कुलांत मॅट्रीक जालो. उपरांत अलाहाबाद शारांतल्या न्यूर सेंट्रल कॉलेजींतल्यान ताणें इंग्लीश साहित्य, इतिहास, पर्शियन भास-साहित्य आनी तत्त्वगिन्यान हे विशय घेवन बी. ए. ची पदवी घेतली. उपरांत ताणें राश्ट्रीय चळवळींत वांटो घेतलो. १९२० वर्सा तो आग्रा बंदखणींत आसतना 'निगार' हें उर्दू नेमाळें वाचून तातूंतल्या 'फानी' ह्या कवीच्या काव्याचो ताचेर प्रभाव पडलो. फुडें १९२१ वर्सा तो कांय काळ लखनौ बंदखणींत आशिल्लो. १९२३-२७ वर्सां मेरेन तो अलाहाबादचे अखिल भारतीय काँग्रेस समितीचो उपसचिव आशिल्लो. उपरांत अलाहाबाद विद्यापीठांत तो इंग्लीश ह्या विशयाचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९६० वर्सा तो ह्या विद्यापीठांतल्यान निवृत्त जालो.

इंग्लीश कवी वर्डस्वर्थ आनी उर्दू कवी मीर, मुसहफी आनी गालिब हांचो ताचेर प्रभाव पडिल्लो. १९१६ वर्सा ताणें काव्य रचना करूंक सुरवात केली. 'रुहे काईनात' (१९४५) हो ताचो पयलो कवितांझेलो. 'गुले नग्मा' (१९५९) ह्या ताच्या गझल, रुबाया आनी हेर कवितांच्या झेल्याक ज्ञानपीठ पुरस्कार फाव जालो.

ताका इंग्लीश आनी हिंदी साहित्याचो खोलायेन अभ्यास आशिल्लो. आपले खर कल्पनाशक्तीवरवीं ताणें मोग आनी जीण हेविशींचो आगळो दिस्टावो आपल्या काव्यांतल्यान उक्तायलो. खास करून काव्यांतल्यो पारंपारीक कल्पना बदलपाकडेन ताणें चड लक्ष दिलें. भारतीय दायज आनी संस्कृतायेचो प्रभाव ताच्या काव्याचेर पडिल्लो दिसता. ताच्या 'रुप' (१९५७) ह्या रुबाया झेल्यांत तें चड करून जाणवता. 'गझल' ह्या काव्यरचनेच्या प्रकारांत ताचो वावर म्हत्वाचो आसा. वॉल्टर पेटर, कोलरिज आनी रस्किन ह्या कलासमीक्षकांचे परंपरेंतल्यान ताणें उर्दू काव्याचें समीक्षण केलां. 'अंदाजे' (१९४४), 'उर्दू की इश्किया शायरी' (१९४५), 'हाशिये' (सुमार १९४७) हे ताचे कांय समीक्षात्मक ग्रंथ आसात. लाहोर शारांतल्यान उजवाडाक येवपी 'नकश' ह्या नेमाळ्यांतल्यान 'मनआनम' ह्या सदराखाला ताणें साहित्य, मोग, लैंगिकता आदी विशयांचेर आपले विचार मांडल्यात.

टागोराच्या गीतांजलीचे आनी एकशे एक कवितांचे ताणें उर्दूंत अणकार केल्यात. ते भायर ताचे हिंदींत पांच आनी इंग्लीशींत सात ग्रंथ आसात. 'शुल-ए-साझ', 'गजलिस्तान' (१९६५), 'शब्नमिस्तान' (१९६५), 'शिरीस्तान' (१९६६), 'चिरागाँ' (१९६६) आनी 'गुल्बांग' (१९६७) हे ताचे कांय म्हत्वाचे कवितांझेले. 'पिछली रात' (१९६९) हो ताणें आपल्या स्वताच्याच वेंचीक कवितांचो झेलो उजवाडाक हाडलो.

- कों. वि. सं. मं.

**गोरा कुंभार:** (जल्म: १२६७; मरण: १३१७).

महाराष्ट्रांत जावन गेल्लो म्हान मराठी संत. ज्ञानेश्वर, नामदेव आदी संत ताका आदरान 'गोरोबाकाका' म्हण्टाले.

तेरढोकी हो गोरा कुंभाराचो गांव. ह्याच गांवांत रावन मातयेचीं मडकीं करपाचो धंदो तो करतालो. मडकीं करपाखातीर हाडिल्ली माती मोव करता आसतना, ते मातयेंत तो विठ्ठलाचें भजन करीत नाचतालो. दीसभर मडकीं घडयतासतना विठ्ठलाच्या भजनांत गुंग जावन रावप, असो ताचो दिसपट्टो वावर आसतालो.

गोरा कुंभाराविशीं एक दंतकथा चलता, ती अशी:

गोरा कुंभाराक संती आनी रामी नांवाच्यो दोन बायलो आसल्यो. एक दीस मडक्याखातीर माती मोव करता आसतना, तो विठ्ठल भजनांत गुंग जावन गेल्लो. त्या भरांत भान नाशिल्ल्यान, दिमकुल्यांनी घश्टत थंय पाविल्ल्या स्वताच्या भुरग्याकूच ताणें मस्तिलें. पाण्ट्यावेल्यान आयिल्ले ताचे बायलेन म्हळ्यार संतीन, स्वताचें मेल्लें भुरगें पळेलें तेन्ना तिणें आकांत केलो आनी गोराकुंभाराचे विठ्ठल भक्तीक दूशण दिलें. तें पळोवन गोरा कुंभार तिडकलो आनी बायलेक मारूंक धांवलो. तेन्ना तिणें 'आपणाले कुडीक हात लायल्यार विठ्ठलाचो सोपूत आसा' अशें म्हळें. तें आयकून गोरा कुंभार फाटल्यान सरलो आनी त्या दिसासावन ताणें बायलेक स्पर्श करपाचें सोडून दिलें. भुरगें मेल्ल्यान गोरा कुंभाराचो वंश खंडन जाल्लो. संतीक हे गजालीचें दुखह जातालें. तेखातीर तिणें आपणाल्या रामी नांवाचे भयणीचें लग्नूय गोरा कुंभाराकडेन लायलें. व्हंकल-पावणी भायर सरचे वेळार मांवान जांवयाक विनंती केली, 'जशी तुवें पयले बायलेक वागयल्या तेच रितीन दुसरेकूय वागय. तिका कांयच उणें पडूंक दिवं नाका.' गोरा कुंभार उतराक जागपी देवमनीस आसलो. मांवाच्या उतरांक पाळो दिवचे पासत ताणें रामीक लेगीत स्पर्श केलो ना.

एक फावट गोरा कुंभार रातीकडेन न्हिदिल्लो आसतना त्या दोगूय भयणींनी ताचे दोनूय हात आपल्या हातांत घेतले. जागो जातकच गोरा कुंभाराक दिसलें, आपणे विठ्ठलाचो सोपूत मोडलो. तेखातीर ताणें बेगोबेग आपले हात कातरून उडयले. फुडें पंढरपूराक संत नामदेवाच्या कीर्तनावेळार, ताळी वाजोवपाचो यत्न करता आसतना गोरा कुंभाराक पर्यून दोनूय हात फुटले आनी मेल्लें भुरगें दिमकुल्यांनी संतीमुखार आयलें.

गोरा कुंभाराचे सुमार ४३ अभंग 'सर्वसंग्रहगाथा' ह्या ग्रंथांत आयल्यात. त्या अभंगांतल्या २१ अभंगांत गोरोबाचें चरित्र आयलां. सर्वसंग्रहगाथांतल्या अभंगांनी सूरदास, कबीरदास सारक्या उत्तरकालीन संतांचेय उल्लेख आयिल्ल्यान, विद्वानांमदीं हे अभंग गोरा कुंभाराचेच आसात काय कितें ह्या संबंदान मतभेद आसात.

गोरा कुंभाराचो एक अभंग फुडलेतरेन आसा:

ब्रह्म मूर्तिमंत जगी अवतरले।
उध्दरावया आले दीन जना।।
ब्रह्मादिक ज्याचे वंदिती पायवणी ।
नाम घेता वदनी दोष जाती ।।
हो का दुराचारी विषयी आसक्त ।
संतकृपे त्वरित उध्दरती ।।
अखंडित गोरा त्याची वाट पाहे।
निशिदिनी ध्याये संतसंग ।।

गोरा कुंभाराचे समकालीन संत ताचें उतर प्रमाण मानताले. सतराव्या शतमानाच्या उत्तरकाळांत जावन गेल्ल्या उध्दवचिद्घन हाणें ताचें ओंवयेंत चरित्र बरयलां.

पंढरपूरासावन पन्नाशेक किमी. अंतराचेर गोरा कुंभाराची समाधी आसा. गोरा कुंभाराच्या घराची आनी मातयेंत भुरगें मस्तिल्ल्या वाठाराची सुवात आयजूय तेरढोकी गांवचे लोक दाखयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**गोरिला:** सादारणपणान मनशाभशेन दिसपी माकडांमदलो व्हड प्राणी. ताच्यो दोन जाती आसात. तातूंतली एक जात अस्तंत आफ्रिकेच्या उश्ण कटिबंधांतल्या काँगो न्हंयेच्या देगणांत रावता. तेचपरी गोरिला बेरिंगेई ह्या शास्त्रीय नांवाची दुसरी जात उदेंत झाईरे (बेल्जियन काँगो) आनी अस्तंत युगांडांतल्या दोंगरांनी दिश्टी पडटा.

गोरिलाची उंचाय १.२५ ते १.७५ मी. आसता. वजन १४० ते २७५ किग्रॅ. आसता. मादयेचो आकार नरापरस ल्हान आसता. तोंड, कान, हाताचो बचको आनी पांय सोडून ताच्या सगळ्या आंगार केंस आसतात. ताची कूड बळीश्ट आसता आनी कुडीची तांक जबर आसता. ताचें

मुस्कट अशीर, नाकाच्यो पुडयो व्हड, दोळे बारीक आनी कान ल्हान आसतात.

गोरिलाचो स्वभाव शांत आसता आनी ताका एकांतवास आवडटा. पूण तिडायतकच मात तो एकदम क्रूर जाता. तांचो सुमार २५ जाणांचो एक पंगड आसता. ह्या पंगडाचो एक राखणदार आसता. गोरिला म्हातारो जातकच ताका पंगडांतल्यान भायर काडटात.

मादी आनी पिलां झाडार खोंप तयार करून रावतात, जाल्यार नर झाडासकयले खोंपींत रावता. गोरिला शाकाहारी आसून फळां, पानां असलें अन्न खाता. मादी गोरिलाक णव म्हयन्याउपरांत एके वेळेक एकूच पील जाता. रानांतल्या गोरिलाची पिराय सुमार ५० वर्सां मेरेन आसता.

दोंगरार रावपी गोरिलाची बेरिंगेई ही जात कॉंगो देगणांत रावपी गोरिलाचे जातीपरस व्हड आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**गोलमेज परिशद:** हिंदुस्थानाच्या संविधानाविशीं चर्चा करपाक इंग्लंडांत तीन परिशदो भरल्यो, तांकां 'गोलमेज परिशदो' अशें म्हण्टात. भारतीय स्वातंत्र्य चळवळ सुमार १९३० त खर जाल्ली. कायदेभंग, करबंदी, स्वदेशी बहिष्कार आनी असहकार चळवळ देशभर उज्याभशेन पातळटाली. चळवळ पालोवपाचें इंग्लीश सरकाराचें धोरण पळोवन हिंदी जनता आनीकूय नेटान उसळून येताली. अशे फाटभुंयेचेर राश्ट्रीय सभा कॉंग्रेस आनी ब्रिटीश सरकार हांचेमदीं वाटाघाटी करून समेट घडोवन हाडचो आनी संतप्त भारतीयांक शांत करचे, अशें कांय जाणांक दिसतालें. तातूंत, मि. स्कोलंब हाणें फुडाकार घेतलो. ताणें पं. मोतीलाल नेहरू, महात्मा गांधी, सर तेजबहाद्दर सप्रू, बॅ. जयकर, पं. जवाहरलाल नेहरू हांच्यो भेटी घेवन तांचेकडेन वाटाघाटी केल्यो आनी समेट घडोवन हाडपाच्या यत्नांक सुरवात केली. हिंदुस्थानांतल्या विंगडविंगड गटांच्या प्रतिनिधींनी एकठांय बसून उलोवणीं करून कांय निर्णय घेवचे, धोरण थारावचें आनी देशव्यापी चळवळ आटपांत हाडची ही मि. स्कोलंब हाची येवजण सगळ्यांनी मान्य केली. अशे तरेन गोलमेज परिशदेचो जल्म जालो. गोलमेज परिशदेच्या अंतर्गत आशिल्लें सारकेपणाचें तत्त्व घेवन चर्चा करपाचें ब्रिटीश सरकाराक मान्य करपाक लावप, हें लेगीत हिंदी लोकांचें आनी कॉंग्रेसीचें जैत आशिल्लें.

महात्मा गांधीन हे परिशदेविशीं कांय अटी घाल्यो त्यो अश्यो: गोलमेज परिशदेंत हिंदुस्थानाक स्वराज्य दिवपाचो मुद्दो मांडपाक जाय, सरकारान सोऱ्याचेर बंदी हाडची, सविनय कायदेभंगाचे चळवळींतल्या कार्यकर्त्यांक बंदखणींतसून सोडचे. गोलमेज परिशदेंत वांटो घेवपाक राश्ट्रीय कॉंग्रेस सभा ज्या अटींचेर तयार आशिल्ली, त्यो अटी अश्यो: १. ब्रिटीश साम्राज्यांतल्यान भायर सरपाचो हिंदुस्थानाचो हक्क स्पश्ट उतरांनी मान्य करपाक जाय. हिंदुस्थानांत राश्ट्रीय सरकाराची थापणूक जावची आनी तें सरकार लोकांक जापसालदार आसचें (हें सरकार गांधीजीच्या ड्रॉकरा मागण्यांचेर विचार करतलें). ३. हिंदुस्थानान इंग्लंडाक दिवपाचें राश्ट्रीय रीण आनी हेर सवलती हांची चवकशी करपाचो अधिकार हिंदुस्थानाक आसचो. ४. संक्रमण काळांतलीं संरक्षक बंधनां हिंदुस्थानाच्या हितान्रीं आसात काय ना, हें हिंदी लोकांचे प्रतिनिधी थारायतले.

हे चार मुद्दे मान्य केल्यार राश्ट्रीय सभेची कार्यकारी समिती कायदेभंगाची चळवळ फाटीं घेतले अशें कॉंग्रेसीन कळयलें. जप्त केल्लो माल परत करप, राजबंद्यांक मुक्त करप, वटहुकूम परत घेवप हीं ब्रिटीश सरकाराचीं मुळावीं कर्तव्यां आसात, अशें तांणी सरकाराक कळयलें. राश्ट्रीय सभेच्यो ह्यो अटी ब्रिटीश सरकारान मान्य केल्यो नात. देखून राश्ट्रीय सभेन पयले गोलमेज परिशदेंत वांटो घेतलोना.

**पयली गोलमेज परिशद:** पयली गोलमेज परिशद १२ नोव्हेंबर १९३० ते १९ जानेवारी १९३१ ह्या काळांत जाली. ब्रिटीश राजकी पक्षाचे १६ सभासद, संस्थानांचे १६ प्रतिनिधी आनी ब्रिटीश हिंदुस्थानचे ५७ अशा वट्ट ८९ सभासदांनी हे परिशदेच्या कामांत वांटो घेतलो. ह्या सभासदांत श्रीनिवास शास्त्री, डॉक्टर मुंजे आनी महमद अली हांचो आस्पाव आशिल्लो. ब्रिटीश सभासद हिंदुस्थानाक स्वायत्तता दिवपाक तयार आशिल्ले, जाल्यार हिंदी सभासदांनी संसदीय पध्दतीचें राज्य सुरू करपाची मागणी केली. इस्लामी लोकांच्यो मागण्यो मान्य केल्याबगर स्वायत्तता स्वीकारपाक मुसलमान तयार ना, अशें तांचे प्रतिनिधी महंमद अली हाणें सांगलें. हिंदुस्थानांत फेडरेशन (संघराज्य) स्थापन जावचें अशें थारायलें. ब्रिटिशांच्या ताब्यांत आशिल्ल्या प्रदेशाचें संघराज्य स्थापन करचें आनी मागीर संस्थानांनी तातूंत कांय विशेश अटींसयत सामील जावंचें, अशें संस्थानिकांनी मान्य केलें. हेभायर, प्रांतिक कायदेमंडळांतली द्विदल पध्दत (Dyarchy) रद्द करची, मताधिकार १० ते २५ टक्के लोकांक मेळचो, हिंदुस्थानांतल्यान ब्रह्मदेश वेगळो करचो, सिंध मुंबय प्रांतांतसून वेगळो करचो, हिंदी तरणाट्यांक व्हडा संख्येन सैन्यांत प्रवेश मेळचो अशें थारायलें. डॉ. आंबेडकरान अस्पृश्यांखातीर स्वतंत्र मतदार संघाची मागणी केली. हेर अल्पसंख्यांकांनीं हे मागणेक तेंको दिलो. हिंदूंचें प्रतिनिधीत्व करपी सप्रू-जयकर हांकांय अल्पसंख्यांकांचे प्रस्न सुटलेबगर कसलीच घटना तिगपाचीना, अशें दिसतालें.

मुसलमानांक खाशेले पध्दतीन संयुक्त मतदार संघ दिवपाचें थारायल्लें. मुस्लिमांक स्वायत्त राज्य दिवपाचें (Dominion) ब्रिटिशांनी मान्य करचें, हे अटीचेर मुस्लिम फुडाऱ्यांनी गोलमेज परिशदेंत वांटो घेतिल्लो. आपल्याक फाव तें संरक्षण दिवपाची तजवीज जाल्याबगर स्वतंत्र हिंदुस्थानांत आमी सामील जावचे ना अशें मुसलमानांच्या प्रतिनिधींनी जाहीर केलें.

सत्तांतराच्या काळांत ब्रिटीश गव्हर्नर जनरल म्हत्वाच्या विशयांनी निर्णय घेवपाचे आशिल्ले. ते लोकप्रतिनिधींच्या कायदे मंडळाच्या पालवान राज्यकारभार पळेतले अशें थारायलें. घटना तयार करपाचें थारायलें. जातीय समस्या सोडोवपाचें काम सरकारावरवीं सामोपचारान, विचार- विनियम आनी वाटाघाटी करून जातलें, अशें थारायलें.

गोलमेज परिशदेच्या समारोपाचें उलोवप इंग्लंडाच्या पंतप्रधानान केलें. तातूंत ताणें आपलें धोरण कशें आसतलें हें स्पश्ट केलें. पंतप्रधान मॅक्डॉनल्ड हाणें प्रांतांक आनी मध्यवर्ती सरकाराक जापसालदार राज्यपध्दत दिवची अशें म्हळें. कांय काळमेरेन संरक्षण आनी परपराश्ट्रसंबंद हे विशय गव्हर्नर जनरल हांचेकडेन आसतले, अशें तांणी फुडें सांगलें.

हे परिशदेंत वसाहतीक स्वराज्य, संयुक्त राज्यघटना, युरोपीय वेपाऱ्यांक मेळपी सवलती, अल्पसंख्य जमाती ह्या विशयांचेर विस्तारान भासाभास जाली. पूण देशव्यापी जाल्ल्या कॉंग्रेसचे प्रतिनिधी परिशदेंत हाजीर नाशिल्ल्यान परिशदेचें म्हत्व कमी जाल्लें, हें सगळ्यांक दिसून आयलें. परिशदेचे निर्णय राश्ट्रीय कॉंग्रेस सभेन नामंजूर केले.

पयले गोलमेज परिशदेच्यो वाटाघाटी चालू आसतना भारतीय ब्रिटीश सरकार चळवळ चेपून उडोवपाचो यत्न करतालें. सरकाराक राज्य चलोवप कठीण जाल्लें. चळवळीक मात्सो उतार पडचो म्हूण सरकारान महात्मा गांधी आनी ताचे इकरा वांगडी हांकां बंदखणींतसून सोडयले. शांतताय आनी एकचार हांची इत्सा परगटावपी एक पत्रक सरकारान जाहीर केलें. ह्या सगळ्यांचो महात्मा गांधीचेरूय परिणाम जावन ताचो आशावाद वाडलो. दिल्लीक व्हाईसरॉय आयर्विन आनी गांधीजी हांचेभितर वाटाघाटी जावन 'गांधी-आयर्विन' कबलात जाली. बहिश्काराची चळवळ फाटीं घेतली. राजबंद्यांक मुक्त केले. पूण व्हडलेंशें कांयच पदरांत पडलेंना, म्हूण हिंदी लोक आनी कांय फुडारी नाखूश आशिल्ले. वाटाघाटींनी स्वराज्य मेळोवप शक्य आसा, जाल्यार तें मुजरत मेळोवचें, तेखातीर ब्रिटिशांची सक्रीय मदत घेवंची अशें गांधीजीन सांगलें आनी गोलमेज परिशदेच्या दुसऱ्या अधिवेशनांत राश्ट्रीय सभेन वांटो घेवंचो, अशें थारायलें.

**दुसरी गोलमेज परिशद:** दुसरी गोलमेज परिशद ७ सप्टेंबर १९३१ ते १ डिसेंबर १९३१ ह्या काळांत भरली. हे परिशदेंत वट्ट १२७ सभासदांनी

वांटो घेतलो. ब्रिटीश प्रतिनिधी १६, संस्थानांचे प्रतिनिधी १६, ब्रिटीश-हिंदुस्थानांतले ५६, सल्लागार आनी चिटणीस ३९ अशी तांची वांटणी आशिल्ली. संस्थानी प्रजेचो एकूय प्रतिनिधी नाशिल्लो. सगळे प्रतिनिधी राजा-महाराजा हांचे आशिल्ले. सगळी परिस्थिती ब्रिटीश सरकाराक अनुकूल आशिल्ली. सल्लागार आनी चिटणीस सरकाराचेच प्रतिनिधी जाल्ल्यान सरकारा आड आवाज काडपाची धमक कोणाकूच नाशिल्ली. राश्ट्रीय काँग्रेस सभेचें प्रतिनिधीत्व गांधीजीन केलें. ताणें स्वातंत्र्याची मागणी केली. दडपशाहीचो धिक्कार करून लोकांच्यो भावना परिणामकारक उतरांनी परगटायल्यो. ताणें हे परिशदेंत राश्ट्रीय सभेचो, स्वातंत्र्याचो थाराव वाचून दाखयलो आनी सैन्य, परराश्ट्रीय संबंद, खजिनो, अर्थीक धोरण हांचेर हिंदी लोकांचें नियंत्रण आसूंक जाय, अशें सांगलें. दुडवांच्या वेव्हाराची चवकशी करपाक लवाद मंडळ नेमचें, प्रौढ मताधिकार लागू करचे, ताका शिक्षणाचो आनी संपत्तीचो निकश लावचो न्हय, कायदेमंडळ द्विगृही आसचें, भाटकार, अस्पृश्य, युरोपीय हांकां मुस्लिम आनी शीख लोकांभशेन चड प्रतिनिधीत्व दिवचें न्हय हे मुद्दे गांधीजीन परिशदेमुखार मांडले. गांधीजी अस्पृश्यांक स्वतंत्र मतदार संघ दिवपाक कसोच तयार नाशिल्लो. ब्रिटीश सरकारान जातीयवादाक अवास्तव म्हत्व दिलें. पूण गांधीजीन अल्पसंख्यांकांच्या थारावाक विरोध केलो. सद्याचें लश्कर बाजारी आसा अशें ताणें सांगलें. जातीय प्रस्नाच्या निमतान परिशद फुटची न्हय म्हूण गांधीजीन मुस्लिम फुडाऱ्यांच्या स्वतंत्र मतदार संघाचे मागणेक लेगीत तेंको दिलो. पूण आगाखान हाची मदत घेवन ब्रिटीश सरकारान हिंदू-मुसलमानांच्या एकचाराक सुरुंग लायलो आनी स्वातंत्र्याचो प्रस्न ल्हवूच कुशीक दवरलो.

पयले परिशदेच्या अस्पश्ट फाटभुंयेचेर दुसरे गोलमेज परिशदेचो वावर चड बरो जातलो, अशी आशा आशिल्ली. पूण ह्या अधिवेशनांतल्यान भारतीय जनतेक निश्चित अशें कसलेंच आश्वासन मेळ्ळेंना. परिशदेचें कार्य म्हळ्यार फकत चर्चाच जातली, अशें गांधीजीक सुरवातीक सावन दिसतालें. गांधी-आयर्विन कबलातीक लागून तयार जाल्लो समेटाचो पूल हे परिशदेन नश्ट केलो, अशें गांधीजीन म्हळें. अशे तरेन दुसरे गोलमेज परिशदेक यश आयलेंना.

**तिसरी गोलमेज परिशदः** तिसरें अधिवेशन १७ नोव्हेंबर १९३२ ते २४ डिसेंबर १९३२ ह्या काळांत जालें. हे परिशदेंत वट्ट ४६ सभासदांनी वांटो घेतलो. राश्ट्रीय काँग्रेस सभेन आनी इंग्लंडांतल्या मजूर पक्षान हे परिशदेचेर बहिश्कार घालो. व्हड-व्हड संस्थानिक लेगीत हे परिशदेक हजर नाशिल्ले. चडशे प्रस्न अनिर्णित उरले. वसाहतीचें स्वराज्यलेगीत दिवपाची तयारी ब्रिटीश सरकारान दाखयलीना. लोथियन पर्सी आनी डेव्हिडसन समित्यांनी मताधिकार, संघ राज्यांची दुडवां येवजण, घटक राज्यांचे अधिकार हांचेविशीं जे अहवाल तयार केल्ले, तांचो विचार हे परिशदेंत जावपाचो आशिल्लो. संघराज्याविशींची संस्थानिकांची उर्बा कमी जाल्या, हें परिशदेचें मतींत आयलें. ब्रिटीश सभासदांचेर हुजूर पक्षाचें वर्चस्व स्पश्टपणान दिसतालें. ब्रिटीश सभासदांच्या मनांत हिंदुस्थानाविशीं सहानुभूतीय कमी जाल्ली, अशें दिसून आयलें. इतलेंच न्हय, तर एका वर्सापयलीं भरिल्ले दुसरे गोलमेज परिशदेचे तुळेन हे परिशदेंत हिंदी प्रतिनिधींभितर उमेद कमी आशिल्ली.

१९३३ त पार्लमेंटान तीन गोलमेज परिशदांचो वृत्तांत श्वेत पत्रिकेवरवीं उजवाडाक हाडलो. एप्रिलांत Joint Select Committee ची नेमणूक जाली. लॉर्ड लिनलिथगो हो ताचो अध्यक्ष जालो. देड वर्साभितर ह्या समित्यांच्यो १५ बसका जाल्यो आनी तातूंत १२० साक्षीदारांची तपासणी जाली. भारत सचिव सॅम्युएल होर हाची साक्ष १९ दीस चल्ली. पूण मध्यवर्ती कायदे मंडळाच्यो वेंचणुको प्रत्यक्ष काय अप्रत्यक्ष, हाचेर एकमत जालेंना. समितीन दोनूय सभाघरांच्यो अप्रत्यक्ष निवडणुको घेवंच्यो अशी निमाणी शिफारस जाली. पूण ती शिफारस लॉर्डसच्या सभाघरान मान्य केली ना.

हिंदी आनी ब्रिटीश प्रतिनिधी हांणी एकठांय बसून विचारविनिमय केलो आनी समेटाच्या मूळ तत्त्वांविशीं तशेंच राज्य घटनेविशीं ह्या परिशदांतसून चर्चा केली. ह्या परिशदांची फलश्रुती म्हळ्यार पयलेच खेपेक हिंदी लोकांचें गाराणें आंतरराश्ट्रीय पांवड्यार पावलें. हे वाटाघाटींत जे निर्णय घेतले, ताच्याच आदारान १९३५ चो कायदो मंजूर जालो. ह्या कायद्याक लागून मतदानाचो हक्क साबार लोकांमेरेन पावलो आनी संघराज्याची पध्दत स्वीकारप जालें. संघीय वरिश्ठ गृहाच्यो वेंचणुको अप्रत्यक्षरितीन करच्यो आनी कनिश्ठ सभाघराच्यो प्रत्यक्षरितीन करच्यो, अशें थारायलें. गव्हर्नर जनरल आनी गव्हर्नर्स हांचे राखीव अधिकार निश्चित केले. हे परिशदेंत ब्रिटिशांची वृत्ती आनीकूय तीव्र जाल्ली. संस्थानिक संघांत येवपाक टाळाटाळ करपाक लागले. मुसलमानूय हक्काक पेटले आनी ताका लागून एकामेकांविशींच्या एकचाराक फूट गेली.

- कों. वि. सं. मं.

**गोवा कॅन्सर सोसायटीः** कॅन्सर रोगाक आळाबंदा हाडपाखातीर आनी ताचेर उपचार करपाखातीर वावुरपी संस्था. हे संस्थेची थापणूक ऑक्टोबर १९६८ त जाली. तेन्ना हे संस्थेचो चेअरमेन गोंयचो पयलो मुखेलमंत्री दयानंद बांदोडकार हो आशिल्लो. ही धर्मदायी संस्था (charitable society) खंयच्याय एका मनशाच्या वा पंगडाच्या फायद्याखातीर नासून सगळ्या धर्म-जातीच्या मनशांक आपले सेवेचो लाब दिता. हे संस्थेचो उद्देश म्हळ्यार कॅन्सराचेर उपचार आनी ताचेर संशोधन करपी हॉस्पिटलां चलोवप आनी लोकांमदीं कॅन्सराआड प्रचार करून तांकां ह्या दुयेंसाविशीं पुराय म्हायती दिवप तशेंच त्या रोगाक आळाबंदा हाडपाचे नदरेंतल्यान वावरप; हे भायर ज्यो हेर संस्था वा लोक कॅन्सराच्या दुयेंसाविशीं म्हायती पुंजायतात, तांकां साबार आदार दिवप आनी ते नदरेंतल्यान ह्या रोगाविशींचें चडांत चड साहित्य उजवाडावन लोकांमदीं जागृताय हाडप.

वेगवेगळ्या मळावेले लोक हे संस्थेचे वांगडी आसात. हे संस्थेच्या कार्यकारी समितीच्या पदाधिकाऱ्यांची मांडावळ अशी आसाः अध्यक्ष (चेअरमेन), उपाध्यक्ष- मानद सचिव, मानद भांडारी, वांगडी आनी पदसिध्द वांगडी (Ex-Officio Members).

२२ मे १९७७ दिसा तेन्नाचो नायब राज्यपाल शिशिरकुमार बॅनर्जी हाचे हस्तुकीं दोना पावल हांगा ३६ खाटांचें हॉस्पिटल सुरू केलें. मुंबय आनी सावंतवाडी ह्या सारकिल्या शारांत हे संस्थेच्यो उपकचेऱ्यो आसात. तेचपरी हे संस्थेचे वतीन सुमार ४०० स्वयंसेवक भारतांत आनी विदेशांत, खासकरून आखाती देशांनी वावुरतात.

ॲक्शन (ACTION-Action to Combat Tobacco Indian Organisation Network) हे संस्थेच्या पालवान गोवा कॅन्सर सोसायटी व्हड प्रमाणांत तंबाखू आड मोहीम चलयता. 'इंडियन काऊन्सिल ऑफ मॅडिकल रिसर्च' हे संस्थेन प्रायोजीत केल्लो 'ॲसेसमेन्ट ऑफ द एफिकसी ऑफ एन ॲन्टी-टॉबेको कम्युनिटी एज्युकेशन प्रोग्राम' (Assessment of the Efficacy of an Anti-tobacco community Education Programe) हो मोलादीक संशोधन प्रकल्प १९८६ वर्सा सावन हे सोसायटीन हातांत घेतला. 'गोवा कॅन्सर कन्ट्रोल बोर्ड', गोंय सरकार; 'महाराष्ट्र कॅन्सर कन्ट्रोल बोर्ड', महाराष्ट्र सरकार; 'नॅशनल कॅन्सर कन्ट्रोल बोर्ड', भलायकी मंत्रालय दिल्ली ह्या संस्थांचेर गोवा कॅन्सर सोसायटीक प्रतिनिधीत्व मेळ्ळां. 'दुसरो संवसारीक तंबाखू विरोधी दीस' ३१ मे १९८९ दिसा संवसारीक भलायकी संघटना, जिनीव्हा हाचो डायरेक्टर जनरल (सरसंचालक) हाचेवरवीं गोवा कॅन्सर सोसायटी हे संस्थेच्या मानद सचिवाक तंबाखू सेवना आड केल्ल्या वावराखातीर भांगरापदक आनी प्रशस्तीपत्र मेळ्ळां.

पूरक नोंद- 'कॅन्सर'

- कों. वि. सं. मं.

**गोवा कोंकणी अकादेमीः** कोंकणी भाशेची आनी साहित्याची

सगळ्या आंगांनी शास्त्रशुध्द उदरगत करपाखातीर १९८४ त सरकारान स्थापन केल्ली संस्था. अकादेमीची घडणूक करता आसतना तिचो उद्देश गोंय सरकारान फुडल्या उतरांनी सांगला, "जे अर्थी कोंकणी ही लोकांची भास आनी जे अर्थी ह्या राज्यांतल्या लोकांची सगळ्या आंगांनी उदरगत करपाक तिच्या सगळ्या मळांचेर उदरगत जावप गरजेचें आसा आनी जे अर्थी गोंय सरकार कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतायेची जाता तितले बेगीन उदरगत घडोवन हाडून कोंकणी भास आनी साहित्याच्या आदारान पुराय राज्याचो सांस्कृतीक एकवट घट करूंक सोदता, ते अर्थी अशें थारायता की हे उद्देश तडीक व्हरूंक एक अकादेमी स्थापन करची." अशे तरेन अकादेमीची स्थापना करतकच सरकारान चवदा वांगड्यांचें अस्थायी कार्यकारी मंडळ नेमलें. त्याच मंडळाक अकादेमीचे घटनेप्रमाण महामंडळाचे अधिकार मेळ्ळे १८ फेब्रुवारी १९८५ दिसा ह्या मंडळाची पयली बसका जावन तिच्या वावराक सुरवात जाली.

**उद्दिश्टां**: कोंकणी भाशेची उदरगत जावंची, तिचें साहित्य चंवरून फुलचें आनी त्या साहित्यांतल्यान गोंयचे संस्कृतायेचें दर्शन घडचें, विद्येच्या मळावेल्या सगळ्या शास्त्रांचें गिन्यान जाता तितले बेगीन कोंकणींत हाडचें, तत्त्वज्ञान धरून विज्ञानामेरेनचें शिक्षण दिवपाची तांक कोंकणीक येवची, संवसारांतल्या व्हड भासांतलें तेचपरी भारतीय भासांतलें अभिजात साहित्य कोंकणींत भाशांतरीत जावचें आनी त्या साहित्यांतल्यान कोंकणी साहित्याक ऊंच पांवड्याची देख मेळून ताका एक नवी दिका प्राप्त जावंची, शास्त्रीय मळावेल्या वेगवेगळ्या विशयांचेर संशोधन करपाक उमेदीच्या भुरग्यांक प्रवृत्त करचे, तांच्या वावराचें फळ कोंकणींतल्यान आमच्या लोकांमुखार दवरचें, कोंकणीचे उदरगतीखातीर लागता त्या दुडवांची पुरवण करची, नवे नवे नदरेन केल्ल्या कोशांचे अलंकार कोंकणीच्या आंगार पडचे, कोंकणी साहित्याची उदरगत करतना त्या साहित्यान ह्या घटक राज्यांतल्या लोकांचे जिणेक स्पर्श करून तांच्यांत एक नवी उर्बा निर्माण करची, गोंयच्या निरक्षर लोकांक अक्षरी करपाक शिक्षणाच्या मळार तिणें वावुरचें, गोंयच्या समाजाक एकचाराच्या पासान बांदून घालपाचो इतिहासीक वावर करचो, तशें करतना गोंयचे संस्कृतायेची घुडी सासणाची उबारून धरपाखातीर कोंकणीच्या शिरंत्रांनी नवें रगत घोळोवचें, अशीं उद्दिश्टां आसात.

अकादेमीचें प्रत्यक्ष कार्य १९८६ वर्सा सावन सुरू जालें. कार्यकारी मंडळान कोंकणीचें काम नेटान जावपाखातीर अकादेमींत स विभाग स्थापन केले, ते अशे: *भाशाशास्त्र:* हातूंत कुडाळ धरून मंगळूर मेरेन चलतल्या कोंकणीच्या शैलींचो तेच भशेन, साबार कोंकणीचे मोडीचो अभ्यास करपाचो विचार आसा. *कोशशास्त्र:* कोंकणी शब्दसागराचो प्रकल्प कोंकणी अकादेमीन हातांत घेतला. कांय शब्दांफाटल्यान आमचे संस्कृतायेचें जें दायज आसा, तें दायज दाखोवपाचो ह्या कोशांत यत्न जाला. शिकपी भुरग्यांखातीर इंग्लीश-कोंकणी शब्दकोश करपाचेंय अकादेमीन थारायलां. *संगीत:* साहित्यांत जश्यो लोकांच्यो भावना उक्त्यो जातात, तेचपरी संगीतांत लोकांचे उमाळे उक्ते जातात. लोकसंगीत तर लोकांच्या काळजाच्या उमाळ्यांतल्यान येता. खाशेल्या कोंकणी संगीताचो आनी लोकसंगीताचो अभ्यास करपाचें अकादेमीन थारायलां आनी ते दिकेन वावर चालू आसा. *लोकवेद:* कोंकणी लोकवेद भोव गिरेस्त आसून ताचो आवांठ खूब व्हड आसा. हातूंत म्हणी, काणयो, गीतां, मांडे, आल्हयो, जोती, ढवळे, धालो, तळयो, होंवयो, फाग, उमाणीं आस्पावतात. लोकवेद राखपाखातीर तो पुंजावन ताचें वर्गीकरण करपाचे नदरेन अकादेमीन पावलां घाल्यांत. *साहित्य:* कर्तुत्वी भुरग्यांची प्रतिभा फुलची, तांकां साहित्यांतले प्रवाह समजुचे, संवसारीक साहित्यांतल्या व्हड कलाकृतींची तांकां वळख जावंची आनी तांचें विचार-मंथन जावन तांकां योग्य दिका मेळची, हेखातीर अकादेमी वेगवेगळ्या वाठारांत कृतिसत्रां घडोवन हाडटा. नव्या लेखकांची उमेद वाडोवपाखातीर लेखकांचें पयलें पुस्तक उजवाडावपाक अनुदान दिवपाची एक येवजण अकादेमीन आंखल्या. हे येवजणेखाला आतांमेरेन जायत्या लेखकांक अनुदान दिलां. रवींद्र केळेकार हाणें दोन खंडांनी बरयल्लें महाभारत उजवाडावंक अकादेमीन पालव दिला (सप्टेंबर १९८७). शणै गोंयबाबाची दुर्मीळ बरपावळ उजवाडावपाचें अकादेमीन थारायलां. हेर लिपींतल्या वेंचीक कोंकणी पुस्तकांचें देवनागरींत लिप्यांतर करून तीं छापून घेवपाची एक येवजण कोंकणी अकादेमी मुखार आसा. कोंकणी पुस्तकां लोकांमेरेन पावोवपाखातीर वेगवेगळ्या थळांनी साहित्य यात्रा घडोवन हाडूंक अकादेमी दुडवांचो आदार दिता.

**शिक्षण आनी संस्कृताय**: अकादेमी माणकुल्या भुरग्यांखातीर गोंयच्या वेगवेगळ्या थळांनी बालमेळ घडोवन हाडटा. ह्या बालमेळांनी वांटो घेवपी भुरग्यांक काणयो सांगतात, बडबडगीतां शिकयतात. सुरेश बोरकार हाणें बरयल्लें कोंकणी व्याकरण छापून उजवाडावपाक अकादेमीन पालव दिला. तज्ञांच्या आदारान अकादेमीन कोंकणी शुध्दलेखनाचे नेम उजवाडायल्यात. भुरग्यांक विज्ञानाची ओड आनी गोडी लागची हे खातीर अकादेमीन 'नवो सोद' हें विज्ञानीक तिम्हैन्याळें उजवाडावपाक ऑक्टोबर १९९० सावन सुरवात केल्या.

बायलांच्यो अडचणी आनी तांचे खाशेले प्रस्न कोंकणी साहित्यावरवीं उक्ते जातात. देखून, तांकां एके माचयेर हाडून तांच्या प्रस्नांचेर तांणी भासाभास करची, एकामेकांकडेन तांचो संवाद सादचो हेखातीर कोंकणी अकादेमी बायलांचे साहित्यीक मेळावे घडोवन हाडटा.

कोंकणी अकादेमीन आपलो असो खाशेलो ग्रंथसंग्रह करतना मोलादीक आनी वेंचीक अशे १३०० ग्रंथ घेतल्यात.

कोंकणी भास आनी साहित्याचे वाडीखातीर अकादेमीन कांय संस्थांक आनी साहित्यीकांक अर्थीक पालव दिला.

- कों. वि. सं. मं.

## गोवेकार, राजाराम (बेतु) भिकारो: (जल्मः १९ जुलय १९२६, कुंकळ्ळी-फोंडें).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १९४६ वर्सा तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आसलो. १९४७ वर्सा तो 'सेवा दल' संघटनेचो वांगडी जालो. १९४८ वर्सा सावन तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी जालो. तो भुंयगत क्रांतीकारी वावर करता, हो आरोप दवरून १९४७ वर्सा ताचे गैरहजेरेंत ताका न्यायालयान २८ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. १८ जून १९८२ दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## गोवेकार, रामनाथ सगुण: (जल्मः १९३०, कायसूव-बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. गोंय सुटके चळवळीच्या काळांत तो बोटीचेर काम करतालो. तो क्रांतीकाऱ्यांक पोलिसांच्या कारवायांविशीं खबरो दितालो. तशेंच पोर्तुगेजांआड वण्टीपत्रकां लायतालो. २६ जानेवारी १९५५ दिसा शंभू पालियेकार हाच्या फुडारपणाखाल कायसूव-शापोरा वाठारांत जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी साडेतीन वर्सां आग्वाद बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## गोवेकार, लक्ष्मण दत्ताराम: (जल्मः १७ मे १९३६, म्हापशें-बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान आनी माध्यमिक शिक्षण इंग्लीशींतल्यान घेतलें. १९४६ वर्सा तो गोंयचे विद्यार्थी संघटनेचो (Goa Students' Organisation) वांगडी आशिल्लो. १९४६ - १९५८ ह्या काळांत तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आसलो. उपरांत १९५८ वर्सा तो 'रांकूर पात्रिओतिका'

(Rancour Patriotica) पक्षाचो वांगडी जालो. लोकांक गोंयचे सुटकेविशीं म्हत्व सांगून तांकां सुटके झुजांत वांटो घेवंक तो स्फुर्त दितालो. २५ नोव्हेंबर १९५४ दिसा पणजे जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें सुटके झुजारी सिंधुताई देशपांडे वांगडा वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी चवकशे खातीर पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया मुखार (Territorial Military Tribunal) उबो केलो. न्यायाधीशान ताका चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. कायदो आनी सुवेवस्थेंत आडमेळीं येवचीं न्हय हेखातीर आनीक दोन वर्सां ताका बंदखणींत दवरलो. चवदा वर्सां खातीर ताचे राजकी हक्क काडून घेतले. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. गोंय सुटके उपरांत तो 'गोंय जनता फ्रंट' पक्षाचो वांगडी आसलो. 'महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्ष' हाचो तो एक संस्थापक वांगडी आसलो. १९७७ वर्सा तो जनता पक्षाचो वांगडी जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**गोसांय, (गोसावी) कालिदास:** (जल्म: शिरोडें-फोंडें; मरण: २३ मे १९५७).

गोंयचो सुटके झुजारी. गोंय सुटके चळवळीच्या काळांत तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेखातीर वावर करतालो. तो चडसो हत्यारबंद भुंयगत कारवायांनी वांटो घेतालो. १४ मे १९५७ दिसा पोर्तुगेज सैनिकांक व्हरपी रेल्वेचो, सोनावली वाठारालागसार बाँब घालून जो स्फोट घडोवन हाडिल्लो, तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. २३ मे १९५७ दिसा तो आपल्या साथीदारांवांगडा वतना अचकीत पोर्तुगेज सैनिकांनी ताका धरलो आनी गुळी घालून जितो मारलो. १८ जून १९८४ वर्सा गोंय सरकारान ताचो मरणोत्तर भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**गोसावी:** जाणें वैराग्य आपणायलां आनी आपल्या इंद्रियांचेर जैत जोडलां असो मनीस. 'गोसावी' हें उतर 'गोस्वामीन्' ह्या संस्कृत शब्दावेल्यान आयलां. ह्या शब्दाचो अर्थ खूब गायांचो धनी असो जाता. वैदिक साहित्यांत ह्याच अर्थान हो शब्द आयला. गोसाव्यांक गोस्वामी, गोसाई, गुसाई, गोंसाय ह्या नांवानूय वळखतात.

गोसावी हे संस्थेचे उत्पत्तीविशीं निश्चित अशी म्हायती मेळनासली, तरी वैदिक साहित्यांत आयिल्ल्या गोसाव्याच्या उल्लेखांक लागून ही संस्था पूर्विल्ली म्हणपाची सिध्द जाता.

गोसावी हो हिंदू धर्मांत मोडपी, यतीचो एक वर्ग जावन आसा. महाराष्ट्र आनी मध्य प्रदेश वाठारांत तांकां ह्याच नांवान वळखतात. भरद्वाज, पराशर, व्यास, गौतम, शुक, भृगू, वसिष्ठ हीं नांवां गोसाव्याचे पूर्वपरंपरेंत मेळटात. हातूंतले सगळेच वैराग्य पत्करिल्ले नासले तरी लग्न-बंधनांत घुस्पून संवसार करपीय आसले. दक्षप्रजापती आनी शंकर हे गृहस्थाश्रमी आसले. दक्ष म्हळ्यार पर्वताचे पूत "ॐ नमो नारायणाय पुरुषाय महात्मने विशुध्दसत्त्वधीष्णाय महाहंसाय धीमही" हो मंत्र जपताले. आयजूय गोसावी समाज नारायणाची पूजा करून ह्याच मंत्राचो जप करतात. गोसाव्याचो अग्नि, गो, रुद्र, सविता, नारायण ह्यो वैदिक देवता, तशेंच मंत्र, तंत्र आनी वैजकी हांचेकडेन लागींचो संबंद दिश्टी पडटा. महाभारतांतलो योगीराज दत्तात्रय गृहस्थाश्रमाचें आचरण करपी आसलो. हाचेवेल्यान गृहस्थी साधूची परंपरा खूब पूर्विल्ली आशिल्ल्याचें दिसता. त्या काळच्या साधूंत गृहस्थ आनी संन्याशी अशे दोन भेद आसले. तशेंच संन्याशाच्यो कुटीचक, बहूदक, हंस आनी परमहंस अश्यो चार तरा आसल्यो. रामायणांतूय गृहस्थी आनी तपस्वी संन्याशाचे दोन उल्लेख मेळटात. तातूंत मुंडी, दंडी आनी परिव्राजक अशे भेद आसले. बौध्द साहित्यांत यतीचे जटीलक, मुंडशावक, त्रिदंडी (तेदंडिक) आनी देवधर्मीक अशे भेद सांगल्यात. जैन धर्मांत श्रावक-श्राविका हे घटक-गृहस्थ, तर मुनी-आर्यिका वा श्रमण-श्रमणी हे घटक गृहत्यागी आसात.

चंद्रगुप्ताच्या काळांत भारतांत गोसाव्यांचीं ल्हान-ल्हान राज्यां आसलीं. राजतरंगिणींत आयिल्ल्या उल्लेखा प्रमाण त्याकाळार संघमिती नांवाच्या राजाच्या दरबारांत बरेच गोसावी आसले. इ.स. सुमार ३०० क राज्य करपी परिव्राजक ब्राह्मण म्हळ्यार गोसावी राजाच आसले. तांचीं राज्यां पंजाबांत झज्झर आनी बुंदेलखंडांत चिचोटी वा झिझोटी, शिवणी, दाहल ह्या जाग्यांनी आसलीं (दाहल हें नांव चेदी देशांक उद्देशून वापरलां). विदर्भांत वाकाटकांचें राज्य चलतना त्रिपुर हांगा परिव्राजक ब्राह्मण म्हळ्यार गोसांवी राज्य करताले. ते गुप्त राजाले मांडलिक आसले. ह्या घराण्याचो मूळ पुरुस दामोदर आसून तेउपरांत प्रभंजन, देवाढ्य, हस्तिन हे राजा गादयेर आयले. गोसावी जायते फावट राजपुतांवटेन दुस्मानाआड झगडल्यात. दिल्लीचो पृथ्वीराज चौहाण, कनोजचो जयचंद आनी महोबाचे चंदेल राजा हांच्या सैन्यांत गोसावी लोक खूब प्रमाणांत आसताले. औरंगजेबाचे राजवटींत तांचेर व्हड अन्याय जालो, ताचो सूड घेवपाक गोसावी लोक मराठ्यांवटेन औरंगजेबाआड झुजले. महादजी शिंद्याच्या सैन्यांतूय बरेच गोसावी आसले. अकबराच्या काळांत (१५४२-१६०५) काळांत बैरागी आनी गोसावी हांचे भितर एक खर झूज जालें. गोसाव्यांच्या इतिहासांतलें तें एक काळें पान जावन आसा. इ. स. १७६० त हरद्वाराक कुंभमेळो भरिल्लो आसतना गंगेंत सगळ्यांत आदी कोणें न्हावचें, हेविशीं प्रस्न उप्रासलो. तेन्ना ह्या प्रस्नाक झगड्याचें रूप मेळून अठरा हजार बैरागी आनी गोसावी मेले. वयल्या सगळ्या झुजारी गोसाव्यांक 'क्षत्रिय गोसावी' म्हूण वळखतात.

गोसाव्यांमदीं दोन पंथ आसात. एक शैव तर दुसरो वैष्णव. एक पंथ महादेवाक भजपी तर दुसरो विष्णूक भजपी. शंकरदेवाचे अनुयायी माधवगिरी, ब्रह्मगिरी, गोविंदगिरी आनी कुसुमगिरी ह्या गोसाव्यांनीं 'महापुरुषिया' नांवाचो वैष्णव संप्रदायाचो फांटो स्थापलो. चैतन्य महाप्रभूचे गुरुपरंपरेंतले माधवेंद्रपुरी, ईश्वरपुरी ह्या गोसाव्यांनी बंगाल प्रदेशांत गौडीय वैष्णव संप्रदाय स्थापलो. दसनामी गोसावी शैवपंथी आसून तांचे मठधारी आनी घरबारी अशे दोन भेद आसात. गुरुपूजा हें वैष्णव पंथीय गोसाव्यांचें खाशेलपण जावन आसा.

गोसावी पंथ आपणावपाखातीर कसल्याच जाती-धर्माची अट लागना, ताका लागून आयज ह्या पंथांत सगळेतरेच्यो जाती येवन भरसल्यात बायल वा दादलो जो कोण ह्या पंथाची दीक्षा घेवपाक सोदता, ताच्यो तरा सादारणपणान फुडले तरेन आसतात. जो दादलो दीक्षा घेता, ताका उपास करचो पडटा; हो उपास दीसभर करतात. उपास केल्या उपरांत दुसऱ्या दिसा ताचे सगळे केंस काडटात. मागीर ताका न्हाण घालून ताच्या पुराय आंगाक भस्म-बिबूत लायतात. ताका नवें नांव दितात. मागीर तो तात्पुरतो गोसावी जाता. सुमार दोन वर्सां ह्या पंथांत रावन गोसाव्याचे आचार-विचार शिकतकच गुरु ताच्या कानांत 'ॐ सोहम्' हो मंत्र उच्चारता. तेन्ना तो पक्को गोसावी जाता. बायलो आपले केंस कातरतात. तांच्या आंगाक भस्म-बिबूत सारोवन भगवीं वस्त्रां न्हेसपाक दितात. ब्रह्मचर्याक पाळो दिवन तांकां मठांत रावचें पडटा. नवी दीक्षा दिल्ल्या गोसाव्यान एकनिश्ठ रावचें म्हूण ताका मीठ खावपाक दितात. मागीर जमिल्ल्या लोकांक जेवण घालून 'विरजाहोम' करतात.

औरस संततींतल्यान जाल्ल्या गोसाव्यांक 'बिंदू' तर त्रैवर्णिकांतल्यान जाल्ल्या गोसाव्यांक 'नाद' म्हण्टात. दोगूय गोसावी पंथाची दीक्षा घेवपाक शकतात. त्रैवर्णिकांतल्या मनशांक गोसावी पंथांत आस्पावन घेवचे आदीं 'विरजाहोम' हो शुध्दीकरण संस्कार करतात. शुद्राक गोसावी पंथाची दीक्षा मेळना.

गोसावी लोक ह्या पंथाची दीक्षा घेवंक आजल्म ब्रह्मचारी रावतात. भुकेल्ल्यांक अन्न दिवप, भीक मागून चरितार्थ चलोवप हे गोसावी संप्रदायाचे मुखेल आचार जावन आसात. गोसाव्याचे भिकेचे नेम थारिल्ले आसतात. ते 'अलख' असो आवाज करून फकत अर्द मिनिट दारांत उबे रावतात. त्या वेळामदीं भीक मेळ्ळी ना, जाल्यार ते परते वतात. कांय

इतिहासकारांनी ह्या देशाक 'गौडबंगाल' हें नांव दिलां.

गौड प्रदेशाच्या लोकांच्या विंगडविंगड कर्तुत्वाक लागून तांची कीर्त धाय दिकांनी फांकिल्ली. ताकालागून पुराय उदेंत भारताकूच 'गौड' ह्या नांवांन वळखुपाक लागले. पुराय उत्तर भारताक 'गौड देश' म्हणपाचीय पोरनी चाल आसा.

गुड (गोड) ह्या उतरावेल्यान गौड हें उत्तर आयलें, असो समज आसा. ज्या देशांत खूब प्रमाणांत गोड पिकता तो 'गौड' देश अशें मानतात.

गौड देशाचो सगळ्यांत पयलो उल्लेख इ.स. ५५४ तल्या हाऱ्हा फातरापट्यांत मेळटा, जातूंत ईश्वर वर्मन मौखरीन गौड देशाचेर जैत जोडिल्ल्याचो उल्लेख आयला.

इ.स. चवथ्या आनी पांचव्या शतमानांत गौड देश गुप्त राजवटीचो भाग आसलो. सव्या शतमानांत हो प्रदेश स्वतंत्र आसलो. ताचेर जयनाग, धर्मादित्य, गोपचंद्र सारक्या राजांनी राज्य केल्ल्याचें समजता. त्याकाळार गौड राजांचें नौदळ बळीश्ट आशिल्लें, तें फातरापट्याच्या आदारान समजता. सातव्या शतमानांत शशांक राजाची राजवट बंगाल, बिहार, ते ओरिसा मेरेनच्या वाठाराचेर आसली. इ.स. च्या आठव्या शतमानांत पालवंशाचे राजवटींत गौड नगरीची थापणूक जाली आसूंये, अशेंय एक मत आसा. इ.स. च्या इकराव्या शतमानांत माळव्याचो राजा भोज हो गौड देश (उत्तर भारत) आनी दक्षिणापथ हांचेर राज्य करतालो, अशें एका काव्यांत म्हळां. सेन वंशांतलो लक्ष्मणसेन इ.स. ११८९-१२०६ ह्या काळांत, ह्या वाठाराचेर शेक चलयतालो. ताचेवेल्यान, गौड राज्याक 'लक्ष्मणवती' हें नांव मेळळें.

बारावें शतमान सोंपतासतना बंगालाचेर मुसलमान राजाची राजवट आयली. हे राजवटीच्या काळखंडांत पोरन्या हिंदू देवळांचो विध्वंस जालो आनी त्या जाग्यार मशिदी उब्यो जाल्यो. त्या काळावेले मोडिल्ले गौड राज्याचे अवशेश आयजूय बंगालांतल्या माल्डा शारा लागसार दिश्टी पडटात. ह्या वाठारांतली सोना मशिद पोरन्या देवळाच्या अवशेशांपसून तयार केल्या. १५३० त नसरतशाहान बांदिल्ली मशीद सोबीत सोबीत आसा.

१५७५ त अकबर बादशाहाच्या सुभेदारान गौड देशाच्या सोबीतकायेक भुलून आपलें राजपाटण पांडुआसावन गौड प्रदेशांत व्हेलें; हाकालागून गौड देशाची लोकसंख्या वाडली आनी अवेवस्था निर्माण जाली. कांय दिसां उपरांत थंय रोगाची भिरांकूळ सांथ आयली आनी तातूंत व्हड प्रमाणांत लोक मेले तर कांय जाण हो वाठार सोडून पळून गेले. हाकालागून ह्या प्रदेशांत कोणूच उल्लो ना.

सोळावें शतमान सोंपता आसतना गौड प्रदेशांत जायतीं व्हड घरां आनी बांदावळी उब्यो जाल्यो आनी लोकसंख्याय खूब प्रमाणांत वाडली. पूण सतराव्या शतमानाच्या निमाण्या कांय वर्सांनी ह्या नगराचो नाश जालो.

ते उपरांत सुमार तीनशीं वर्सांमेरेन, बंगालचें हें नामनेचें शार खंडहराच्या रूपान दाट रानांत लिपून उर्लें. हालींच्याच वर्सांनी ह्या नगराचें पोरनें वैभव नदरेंत आयलां.

पाणिनीन गौडांचो उल्लेख केला. तेउपरांत अर्थशास्त्र, कामसूत्र आनी राजतरंगिणी ह्याय ग्रंथांनी तांचो उल्लेख आयला. 'काव्यमीमांसा' ह्या ग्रंथांत गौड देशांतले लोक संस्कृत भास बरे तरेन उलयतात, पूण तांकां प्राकृत भास येना असो उल्लेख राजशेखरान केला. उत्तर भारतांतल्या पंचविध ब्राह्मणांक 'पंचगौड' म्हूण पाचारतात.

- कों. वि. सं. मं.

**गौरी:** पार्वतीचें एक नांव. हिमालयाची चली म्हूण पुराय ग्रंथांनी तिचो उल्लेख येता. शंकरान एक फावट तिका 'काली' म्हळें, म्हूण पार्वतीन खर तप करून आपले कुडीचो रंग धवो करून घेतलो. तेन्नासावन तिका 'गौरी' म्हूण वळखुपाक लागले.

शिवलिंगोपासनेंत गौरी ही शिवाची चिच्छक्ती मानल्या. आध्यात्मिक नदरेन तिका शिवरुप आत्म्याची ब्रह्माकार वृत्ती मानल्या.

गौरी पुजेसंबंदान पुराणांत ज्यो कांय कथा चलतात, त्यो अश्योः

एक फावट दैत्यांच्या त्रासांक पिडून बेजार जाल्ल्यो सगळ्यो बायलो गौरीकडेन गेल्यो आनी आपलें सौभाग्य राखून दवर म्हूण विनवपाक लागल्यो. तांचे मागणेक मान दिवन गौरीन दैत्यांचो नाश केलो आनी धर्तखेल्या प्राणीमात्रांक संकश्टांतल्यान मुक्त केले. तेन्नासावन सगळ्यो बायलो गौरीक पुजपाक लागल्यो.

महाराष्ट्रांत भाद्रपद म्हयन्याच्या शुक्ल पक्षांत गौरीक पुजतात. हे गौरीक 'ज्येष्ठा' गौरी म्हण्टात. हें व्रत तीन दीस चलता. अनुराधा नक्षत्राचेर गौरीक आवाहन करप, ज्येष्ठा नक्षत्राचेर गौरी पुजेक लावप तर मूळ नक्षत्राचेर गौरीचे मूर्तीचें विसर्जन करप अशी चाल आसा. गौरी पुजतासतना ती मातयेचीच करपाक जाय अशें बंधन ना. धातूची मूर्त, कागदाचेर काडिल्लें चित्र, वा न्हंयच्या देगेवयले पांच फातर गौरी म्हूण पुजपाक उपकरतात.

महाराष्ट्रांतलो भौजन समाज गौरी वेगळेच तरेन पुजतात. तांचो गौरी पुजनाचो विधी फुडलेतरेन आसाः

मातयेचीं पांच ल्हान मडकीं हाडून तातूंत हळदीन रंगयल्लो दोरो घालतात. पांच खोबऱ्याच्यो वाटयो आनी खारको घालून तांचेर गौरीचें मातयेचें मुखें घालतात. गौरीच्यो अश्यो दोन प्रतिमा करून तांची पूजा करतात. तिसऱ्या दिसा तीं मडकीं देवोवन तातूंतलो दोरो, खारको, खोबरे हांचे कुडके दोराक बांदून घरांतल्या सवायशीण बायलांच्या आनी ल्हान भुरग्यांच्या गळ्यांत बांदतात. फुडें एकाद्रो बरो दीस पळोवन तो दोरो काडटात आनी धंया-दुदांत भिजोवन शेतांत पुरतात. कांयकडेन घरांतल्यो ल्हान चलयो वासाळ फुलांच्या वनस्पतींच्यो रोंपयो हुमटून तांची गौरी करतात आनी ते गौरीक मिरयत मिरयत घरांत हाडटात. घराच्या दारांत गौरीवेल्यान तांदूळ आनी उदक हुंवाळून उडयतात. उपरांत गौरीक घरांतले दर एके कुडींत व्हरतात. घरची धनीण, गौरीक भांगरा-शिंगरांनी भरिल्ल्या घरांत सदांखातीर राव अशें म्हण्टा. ते रातीं त्या वनस्पतींच्या रोंपांक बायलेचो आकार दितात आनी तांचेर गौरीचें मुखें बसयतात.

दुसऱ्या दिसा गौरीची पूजा करून, मोदकांचो निवेद्य दाखयतात. सवायशीण बायलो आपले उंचायेचे सोळापटीन दोरो घेवन ताचो गुटलो करून गौरीमुखार दवरतात आनी पूजा करतात. रातीकडेन सगळ्यो बायलो जागरण करतात. तिसऱ्या दिसा गौरीची आनी सुताच्या गुठ्ल्यांक सोळा गांठी मारून तांची पूजा करतात. तो गुठलो हळदीन रंगोवन तातूंतलो दोरो घरांतल्यो सवायशीण बायलो आपल्या गळ्या भोंवतणी बांदतात आनी नवें पीक तयार जायसर गळ्यांत दवरतात. आश्विन वद्य अष्टमीक हो दोरो काडून पूजा करतात.

तिसऱ्या दिसा गौरीचें न्हंयेंत विसर्जन करतकच न्हंयेतली थोडी रेंव हाडून सगळ्या घरांचेर आनी पोरसांतल्या झाडांचेर उडयतात. अशें केल्यार घरांत सुख-समाधान नांदता आनी झाडां-झुडपांची राखण जाता, असो समज आसा.

कोंकणांत गौरीचे परबेक व्हड म्हत्व आसा. ते लोक चिड्ड्याच्यो रोंपयो एकठांय बांदून तांची प्रतिमा करतात. ताचेर मातयेचें मुखें घालून, मूर्तीक साडी न्हेसोवन भांगरां-शिंगरान नटयतात.

दक्षिण भारतांत भाद्रपद शु. तृतीयेक गौरीची परब सुरू जाता आनी ती खूब दीस चलता. दरेका गांवांत गौरीची एक पिठाची प्रतिमा करतात आनी मखरांत बसोवन पूजतात.

गोंयांत भाद्रपद शु. तृतीयेक म्हळ्यार गोंयांतल्या नामनेचे चवथीच्या परबेच्या आदल्या दिसा गौरीचें पूजन करपाची चाल आसा. गोंयांत त्या दिसा 'गवर' पूजेक लायली, अशें म्हण्टात.

गौरी म्हूण एक तांत्रिक देवताय आसा. जैन दैवत चोम्यांतले एके यक्षिणीक ह्याच नांवान वळखतात. तेचपरी बौध्दाच्या वज्रयान पंथांतल्या आठ देवतांकूय ह्याच नांवान पाचारतात.

संगीतांत 'गौरी' नांवाचो एक रागूय आसा. ह्या रागांत ऋषभ आनी धैवत कोमल लागतात आनी हेर सगळे स्वर शुध्द लागतात.

- कों. वि. सं. मं.

**गौळण:** मराठी संत-साहित्यांतली वा लोकसाहित्यांतली एक खाशेली तशीच अप्रूप अशी गीतांची रचणूक. गौळण हें शिरंगारान तरतरून फुलिल्लें काव्य, जातूंत शिरंगार आपल्या विंगड विंगड रुपाचो शिंवर करता. एकफावट गौळणीन मोगाचे भावनेंतल्यान रतीरुप घेतकच हीच भावना शिरंगाराचो आत्मो थारता. संत साहित्यांत तशेंच लोक साहित्यांत गौळणीक खाशेली सुवात आसा.

श्रीकृष्ण हो चडशा गौळणींचो नायक जावन आसा. कृष्णाचे भुरगेपणांतले खेळ, ताच्या मस्तेपणाक लागून पिडिल्ल्यो गवळणी, तांणी यशोदेकडेन हाडिल्ल्यो कागाळी, त्या कागाळींतल्यान तांणी केल्ली कृष्णाची तोखणाय, गवळणींक भुलोवपी कृष्णाची मुरली, कृष्ण दिसना म्हूण गवळणींक जाल्लो विरह ह्या विंगडविंगड भावांचें दर्शन, हाचेवेल्यान ह्या काव्याक 'गौळण' हें नांव पडलें.

बालक्रीडा (कृष्णाची), गाराणीं, कालो, मुरली, विराणी अशा पोटभागांनी गौळण विभागल्या.

संत ज्ञानेश्वरापसून संत तुकारामा मेरेन जायत्या संतकवींनी गौळणी बरयल्यो. ज्ञानेश्वराची 'विराणी' गौळणीत मोडटा. मराठी संतकवींनी गोपी-कृष्णाचो शिरंगार भक्तीरसान केळयलो आनी फुलयलो. हो भक्तीरस तांणी गौळणीखातीर पर्याय मानलो. देखीक- संत ज्ञानेश्वर म्हण्टा:

पाहें पा वाल भाचेनी व्याजे ।
तिया व्रजांगनांचीं निजे ।
मज मीनलिया काय माझे ।
स्वरुप नव्हती? ।

अर्थ: नंदालो श्रीकृष्ण हो मदनापरस सुंदर आसलो. गोकुळांतल्यो गोपी ताच्या सोबीत, सुंदर रुपाक भुलल्यो आनी तांणी आपलो जीव ताचेर उवांळून उडयलो. अभिलाषा आनी आसक्ती बाळगून त्यो श्रीकृष्णा म्हऱ्यांत आयल्यो, हें जरी खरें आसलें तरी श्रीकृष्णान आपल्या दर्शनान, स्पर्शान, उलोवण्यावरवीं आनी रासरस ह्या गोड साधनांवरवीं तांचे विकार जळोवन उडयले आनी तांकां निश्काम केलीं.

नामदेवाची ह्या विशयावेली पद्यरचना सगळ्यांपरस प्रसादपूर्ण आसा. तुकारामाच्यो गौळणी ठसकेबाज आनी नखरेल दिसतात. एकनाथाच्यो गौळणी पळोवपाक जरी लौकिक आनी कामप्रेरित आसल्यो, तरी अंतरंगांत परमार्थान भरिल्ल्यो दिसतात. निळोबाच्या गौळणींक तर मराठी भाशेंतलीं उपनिषदांच मानतात.

संत एकनाथ महाराजाली एक गौळण अशी आसा:

गौळणी सांगति गाऱ्हाणी, रात्री आला चक्रपाणी ।
खाउनि दही दूध लोणी, फोडिलीं अवघीं विरजणीं ।
हा गे बाई कोणासि आवरेना ।।१।।
यशोदे बाळ तुझा तान्हा, कोठ्वरी सोसूं मी धिंगाणा ।।धृ।।
दुसरी आली धावत, याने बाई काय केली मात ।
मुखाशी मुख चुंबन देत, गळ्यामधी हात घालीत
धरुं जाता सांपडेना ।।२।।

ही गौळण, 'गाऱ्हाणी' हे गौळणीच्या पोटभागांत मोडटा. हातूंत कृष्ण आनी ताचे वांगडी गवळणीक त्रास दितकच ह्यो गवळणी कृष्ण आपणाक आटापाक येना, म्हूण यशोदेकडेन कशेतरेन कागाळ करतात तें दाखयलां:

- कों. वि. सं. मं.

**ग्रानीट, रांगनार:** (जल्म: ३० ऑक्टोबर १९००, हेल्सिंकी-फिनलंड).

स्वीडीश तंत्रिकाक्रियावैज्ञानिक (neurophysiologist). ताणें १९२७ त हेल्सिंकी विद्यापीठाची एम्. डी. पदवी मेळयली आनी फुडें १९२८ त आनी १९३१-३२ त ऑक्सफर्ड विद्यापीठांत संशोधन केलें. ताणें सर चार्ल्स शेरिंग्टन हाच्या मार्गदर्शनाखाल ऑक्सफर्ड हांगा संशोधन केलें. १९३७ त, तो हेल्सिंकी विद्यापीठांत शरीरक्रियाविज्ञानाचो प्राध्यापक जालो. स्टॉकहोम हांगाच्या करोलिन्स्का इन्स्टिट्यूटांत १९४० सावन तंत्रिकाक्रियाविज्ञानाचो प्राध्यापक आनी फुडें १९४५ सावन त्या विशयाच्या नोबेल इन्स्टिट्यूटाचो तो संचालक जालो. १९६७ त निवृत्त जायमेरेन प्राध्यापक आनी संचालक हीं दोनूय पदां ताणें सांबाळळीं.

ताणें 'नदर' ह्या विशयाचेर बरेंच संशोधन केलां. १९३० त, दृक्पटलांतलें (retina) अंतर्निरोधन (inhibition) ताचे मतींत पयलीं आयलें. पृश्ठवंशी (vertebrates) जनावरांच्या दोळ्यांविशीं ताणें म्हत्वाचें संशोधन केलें. ताचो नदरेविशींचो प्रकाशरसायनीक (photochemical) सिध्दांत सर्वमान्य जालो. दोळ्यांविशीं केल्या मोलादीक संशोधनाखातीर, १९६७ त शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयांखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार ग्रानीट हाका जॉर्ज वाल्ड आनी एच्. के. हार्टलाइन ह्या शास्त्रज्ञांवांगडा वांटून मेळ्ळो. ताका आनीकूय कितलेशेच भोवमान आनी पदकां फाव जाल्यांत. ताणें कांय पुस्तकां बरयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**ग्रामदेव:** गांवची राखण करपी देव. भारतांत ग्रामसंस्थेक खूब म्हत्व आसा. अशें म्हण्टात की, परशुरामान त्रिहोत्रपुरासावन गोंयांत दशगोत्री सारस्वत ब्राह्मण हाडले. ते हांगा स्थायीक जावंच्या आदींच्या लोकांचे हे देव आसूंक जाय. वेदकाळांतले देव शांत आनी सुंदर, तर ग्रामदेव मात्शे खर. ग्रामदेवाच्यो मुर्ती खडबडीत आसतात. तांकां कोंबो, बोकडो, रेडो, बैल तशेंच सोरो, भांग, अफू आदी वस्तू दिवच्यो पडटात. ग्रामदेवांची स्थापना तांच्या घरालागसारच्या वाठारांत वा तांच्या घरांत आसता.

ग्रामदेवता चड करून नारीरुपांत आसता. मोंहे-जो-दडो आनी हेर कडेन जाल्ल्या उत्खननांत मातृदेवीच्यो मुर्ती मेळ्ळ्यात. शेताची सुरवात बायलेन केली, अशें म्हण्टात. जमीन आपल्या पोटांत बीं धारण करून धान्य पिकयता आनी सगळ्यांचें पोशण करता. देखून भुंयेक देवीसमान मानतात. ही देवी जाय जाल्यार खूब पिकयतली वा दुकळ, रोग, भुंयकांप हाडून नाश करतली, असो समज करून धर्तरेक आवयवरी भजूंक लागले.

भुंयेचें प्रतीक म्हूण रोयणीची पूजा करतात. हे देवीची स्थापना झाडांसकल वा न्हंयेकडेन करतात. फातर, झाड, खूंट अशीं तिचीं रुपां आसतात.

ग्रामदेवतेचे पुजारी चडकरून वैश्य आनी शुद्र आसतात. तिची कृपा आसल्यार पिडारोग जायना, पूण तिचो कोप जाल्यार अनिश्ट घडटा; देखून तिका आंगवण सांगून घेवन ती पावोवपाची प्रथा आसा. ग्रामदेवाच्या पुरोयताक भगत म्हण्टात. गोंयांत खळनाथ, सांतेरी, भुमकादेवी, बेताळ अशे देव आसात. गोंयांत कांय जाणांचे कुळदेव आनी ग्रामदेव एकूच आसात.

सारस्वत गोंयांत आयले तेन्ना तांचेवांगडा कांय हेर लोक आयले आनी ते हांगा स्थायिक जाले आसूंक जाय. ह्या लोकांनी सारस्वतांनी स्थापन केल्ल्या कुळदेवांकूच ग्रामदेव म्हूण मानल्यात आसूंक जाय. नागेश, देवकीकृष्ण, दुर्गा ह्या देवांक ग्रामदेव आनी कुळदेव म्हूण मानतात. गोंयांत चडकरून ग्रामदेवाक दिवजां पेटयतात.

महाराष्ट्रांत जरी, मरी, म्हसोबा, ज्योतीबा अशे ग्रामदेव आसात. गुजरातांत चामुंडदेवी, शितलादेवी, दुर्गा अश्यो देवी आसात. गोंड जमातींत दुल्हादेव आनी बडादेव अशे ग्रामदेव आसात. तशेंच ओरिसांत चामुंडा वा चामुंडदेवी, बिहारांत चेरो जमातीचो दुआठ अशे ग्रामदेव आसात. उत्तर प्रदेशांत छाछीदेवी वा चर्चिकादेवी वा जातमात्र देवता ही ग्रामदेवी, भुरग्यांची राखण करपी देवी अशें मानतात. कोंकणांत गिरमाई, जाखाई, नवलाई अश्यो ग्रामदेवी आसात.

- माणिकराव राम नाईक गावणेकर

**ग्रामपंचायत:** गांवच्या लोकांनी, गांवांतलीं मुळावीं कामां करपाखातीर, तेचपरी गांवची वेवस्था सांबाळपाखातीर लोकशायेच्या मार्गान एकठांय येवन घडयिल्ली थळावी संस्था.

'पंचायत' ह्या उतराचो अर्थ गांवच्या कारभाराखातीर उपेगी पडपी पांच लोकांची वा पंचांची सभा असो जाता. पंचायत पांच पंचांची वा वांगड्यांची कित्याक आसची, हेविशींचें निश्चित कारण दिसून येना. सांची हांगा आशिल्ल्या चंद्रगुप्तकाळांतल्या स्तूपाचेर ग्रामसभेचो उल्लेख 'पंचमंडळ' असो केला. पंचायतींत पांच वांगड्यांचो आस्पाव खूब काळ मेरेन आसचो, अशें बृहस्पतीन म्हळां. ग्रामपंचायतीविशींचे उल्लेख पूर्विल्ल्या वैदिक साहित्यांत आनी बुध्द काळांतले जातक कथेंत मेळटात. जातक कथेंत तिचो उल्लेख जमाव, समुदाय वा समुत्थान असो केल्लो मेळटा.

पूर्विल्ल्या काळांत भारतांत ग्रामपंचायत अस्तित्वांत आशिल्ल्याच्यो देखी मेळटात. रामायणांत गांवांचो आकार आनी मुखेल वेवसाय हाचेवेल्यान दोन प्रकारच्या गांवांचो उल्लेख आयला. ल्हान आकाराच्या गांवाक घोष (गौलवाडा) म्हण्टाले, तर व्हड आकाराच्या गांवाक ग्राम म्हण्टाले. ग्रामांत शेताविशींचे वेव्हार आस्पावताले. ल्हान गांवच्या मुखेल्याक 'घोष-महत्तर' तर व्हड गांवच्या मुखेल्याक 'ग्राम-महत्तर' म्हण्टाले. महाभारतांत, घोषांत रावप्याक 'गोप' तर ग्राममुखेल्याक 'ग्रामणी' अशें म्हळां. मनुस्मृतींत ग्राममुखेल्याक 'ग्रामीण', धा गांवांच्या मुखेल्याक 'विशंतीश शती' वा 'शतग्रामाधिपती' आनी एक हजार गांवांच्या मुखेल्याक 'सहस्त्र ग्रामाधिपती' अशें म्हळां. गांवांतल्यो गरजेच्यो मुळाव्यो सुखसोयी कशेतरेन भागोवच्यो, हाचेकडेन लक्ष दिवपाचें काम हे संस्थेकडेन आसचें, अशें कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत म्हळां.

गांवांतल्या लोकांक आदल्या काळांत येरादारी संचारणाच्यो व्हडल्योश्यो सुविधा नासल्यो. हाका लागून हुंवार, दुकळ, सैमीक संकश्टां, झुजां सारकी परिस्थिती उप्रासल्यार तांकां कसलेच तरेचो आदार भायल्या संवसाराकडल्यान मेळोवप शक्य नासताले. हाका लागून गांवचे लोक अणभवी आनी बुदवंत लोकांचो सल्लो वेळप्रसंगाप्रमाण घेवपाक लागले. ग्रामपंचायतीची ही पयली अवस्था अशें मानतात. गांवच्यो मुळाव्यो गरजो भागोवपाक फाव ती तजवीज करप, थळाव्यो घुसपटी सोपेपणान हाताळप हींय ही संस्था घडपाफाटलीं मुखेल कारणां आसात.

पंचायतीक स्वताचें प्रशासन स्वता चलोवपी एक गणराज्य अशें म्हण्टात. महाभारतांतल्या म्हाझुजाउपरांत भारतांत अशा ल्हान व्हड गणराज्यांच्या आंकड्यांत खूब वाड जाली. हीं गणराज्यां स्वशासीत आसतालीं. तांकां 'महाजनपद' अशेंय म्हण्टाले. 'शुक्रनीतिसार' ह्या ग्रंथांत आयिल्ल्या उल्लेखाप्रमाण भोंवडेकारांखातीर धर्मशाळा आनी वनमहोत्सव हांचीं कामां ग्रामपंचायतीकडेन सोंपयल्लीं आसतालीं. गांवच्या अधिकाऱ्यांभितर सहसाधिपती (न्यायदान करपी), ग्रामनेता, लेखक, शुल्कग्राहक आनी प्रतिहार हांचो आस्पाव आसतालो. दक्षिण भारतांत सभा वा महासभा आसताली. तातूंत वेंचून काडिल्ले ३० ते ४० वांगडी आसताले. गांवचें प्रशासन आनी सगळो गरजेचो वावर ते सभेकडेन आसतालो.

सुर्वेक मोगल साम्राज्यांत आनी उपरांत ब्रिटीश राजवटींत पंचायतीचे प्रशासन पध्दतींत आनी खास करून तिचे स्वायत्ततेंत अनिश्ट परिणाम घडून आयले. ब्रिटिशांनी केंद्रीत कारभार चलणुकेंत हाडलो. ग्रामसभा आनी न्यायसभा हांचें म्हत्व कमी जालें. गांवगिरे जिणेंत नवी न्यायपध्दत चलणुकेंत आयली. महसूल वेवस्था बदल्ली. ब्रिटीश धर्तेचेर न्यायालयाची थापणूक जाली. हाका लागून गांवांतली थळावी न्यायसंस्था दुबळी पडली. पंचायतीचो कारभार कांय काळ तिगलो, पूण ताचो प्रभाव उणो जालो. ब्रिटिशांच्या नव्या राजकारभाराच्या तंत्राक लागून ग्रामपंचायती परावलंबी जाल्यो. येरादारी आनी संचारण हांच्या साधनांची तजवीज, उद्येगधंद्यांची वाड, विचारांचें दिवप-घेवप हाका लागून ग्रामपंचायत आनी गांवच्या रचणुकांमदीं म्हत्वाचे बदल घडले.

ब्रिटिशांनी प्रशासन वेवस्थेंत आपली पत सांबाळून दवरपापासत हे संस्थेकडेन फाट करून नोकरशाय यंत्रणा घट केली. हाचो परिणाम उरफाटो जालो. सामान्य मनशाक ही पध्दत किचकटीची जाली. ताका लागून ब्रिटीश अधिकाऱ्यांनी ही संस्था परत जिवी केली. अशें करतना तांणी ते संस्थेचेर आपलें नियंत्रण दवरलें. १८०२ वर्सा मुंबय प्रांतांत ब्रिटीश राजवटीन नवे यंत्रणेंत ग्रामपंचायतीचो आस्पाव करून घेवपाचो यत्न केलो. १८२७ त तातूंत कांय सुदारणा केल्यो. परंपरेन चलून आयिल्ल्या पंचायत समित्यांक न्यायदानाचे कांय अधिकार दिवन तांची शासकीय तांक पळोवप, हो ह्या फाटलो हेत आसलो. हो यत्न सफळ जावंक नाशिल्ल्यान १८६१ त सोडून दिलो. १८१६ त दुसऱ्या एका कायद्यावरवीं असो यत्न जाल्लो, पूण ताकाय यश मेळ्ळें ना. दुकळ आळाबंदा हाडपाच्या वावराखातीर ग्रामपंचायतीसारक्या संस्थांचो उपेग करचो, अशी सुचोवणी १८८० वर्सा नेमिल्ल्या दुकळ आयोगान सरकाराक केली. ताची दखल घेवन १८८४ आनी १८८५ वर्सा थळावे स्वराज्य कायदे संमत जाले. तातूंत ग्रामपंचायतीक गांवचीं मुळावीं कामां करपाविशीं अधिकार दिल्ले. देखीक- रस्ते, रस्त्यावेले दिवे, शाळा, उदकाखातीर बांयो मारप, भलायकी आनी हॉस्पिटल. १८८६ आनी १८८७ त भारत सरकारान थळाव्या स्वराज्य संस्थांक मान्यताय दिली. तातूंतल्या ग्रामपंचायतींकडेन मात ह्यावेळार दुर्लक्ष जालें.

१९०७ वर्सा थळाव्या स्वराज्य संस्थांच्या वावराचो नियाळ घेवन ताचेर अहवाल तयार करपाखातीर 'रॉयल कमिशन ऑन डिसेंट्रलायझेशन' नेमलें. ताचेर पांच ब्रिटिशांची आनी रमेशचंद्र दत्त ह्या एका भारतीयाची नेमणूक केल्ली. ह्या आयोगाच्या अहवालांत ग्रामपंचायतीक बळिश्ट करपाची गरज उक्तायतना धर्म, जातीयवाद आनी जमीनदारांचो वाडटो प्रभाव ह्या कारणांक लागून हे संस्थेक चड अधिकार दितना जतनाय बाळगुपाची शिटकावणी दिल्ली. हे संस्थेंत पांच पंच आसचे, तांकां अनौपचारीकपणान वेंचून काडचे, गांवचो पाटील सरपंच आसचो अश्यो हेर कांय शिफारशी ह्या आयोगान केल्यो.

ग्रामपंचायतीची विस्कटिल्ली वेवस्था पर्थून सारकी करपाखातीर कॉंग्रेसीन आपलें पुराय फाटबळ दिलें. १९२० च्या सत्याग्रहाउपरांत महात्मा गांधीन आपल्या वावुरप्यांमुखार एक विधायक कार्यावळ दवरली. १९२२ वर्सा बार्डोली हांगा जाल्ल्या कॉंग्रेस अधिवेशनांत ह्या कार्यावळींक मान्यताय मेळून गांवगिऱ्या वाठारांत वचपाचें आवाहन वावुरप्यांक केलें. ह्या वावुरप्यांनी आपली शक्त लावन ग्रामपंचायती संघटीत केल्यो. ह्या कामांत महात्मा गांधीन तांकां मार्गदर्शन केलें. महात्मा गांधीन दुसरे गोलमेज परिशदेवेळार आनी दुसऱ्या म्हाझुजावेळार थळावें प्रशासन घटमूट उरचें म्हूण ग्रामपंचायतीचो पुरस्कार केलो. राखणेविशींचो मुळावो घटक म्हूण हे संस्थेक म्हत्व दिवचें, अशें तांणें सांगलें.

**स्वातंत्र्या उपरांतचो इतिहास:** स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत, भारताची घटना तयार करपावेळार ग्रामपंचायतीक शासनवेवस्थेचो मुळावो घटक मानचो अशी सुचोवणी केल्ली. घटना मसुदो तयार करपाच्या मंडळार अध्यक्षपदार आशिल्ल्या डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर हाणें ही सुचोवणी भायर मारली. ताच्या मताप्रमाण जात, धर्म आनी भाटकारशाय हांच्या जाचांतल्यान गांवगिऱ्या वाठाराक वाटावपाक शासनपध्दतींत गांवाचे सुवातीर 'व्यक्ती' हो मुळावो घटक मानूंक जाय आसलो. बरे भासाभाशे उपरांत मार्गदर्शक तत्त्व संविधानाच्या चवथ्या भागांतल्या चाळीसाव्या अनुच्छेदांत ग्रामपंचायतीक राज्ययंत्रणेचो मुळावो घटक म्हूण सुवात मेळ्ळी. तेप्रमाण जायत्या राज्यांत ग्रामपंचायतीविशींचे कायदे केले. हे संस्थेचे उदरगतीखातीर खासा लक्ष दिलें. १९५४ वर्सा २,९४,४६० गांवांनी ग्रामपंचायतींची थापणूक जाली. दरेका राज्यांत तेखातीर एक खास खातें घडयलें. शेतांपसून मेळपी करांतल्यान १५% आनी थळाव्या

करांतल्यान मेळपी २५% उत्पन्न ग्रामपंचायतीक अनुदान म्हूण दिवपाची तजवीज केली. १९५४ त डॉ. काटजू हाचे अध्यक्षतेखाल स जाणांची समिती नेमली. हे समितीचे शिफारशीवेल्यान आनी त्याच वर्सा सिमला शारांत जाल्ल्या स्वराज्य मंत्र्यांचे परिशदेंत जी भासाभास जाली, ताचो आदार घेवन ग्रामपंचायतीच्या कायद्यांत बदल केलो. मुळाव्यो गरजो भागोवपावांगडाच ग्रामपंचायतीक न्यायदानाचो अधिकार दिवन न्यायपंचायत निर्मुपाची तजवीज तातूंत केली. १९५५ त नॅशनल डेव्हलपमेंट काउन्सिलान नेमिल्ल्या बलवंतराय मेहता हाचे अध्यक्षतेखाल नेमिल्ले समितीन २४ नोव्हेंबर १९५७ त आपलो अहवाल उजवाडायलो. ह्या अहवालांत शेती उदरगत कार्यावळींत थळाव्या लोकांक फुडारपण करपाचो हक्क दिवन थळाव्या लोकांचो गांवच्या कामांत सहभाग करून घेवंचो, हें तत्त्व मांडून ग्रामपंचायत, तालुका पंचायत समिती आनी जिल्हा परिशद ह्या तीन पांवड्यांत आस्पाविल्ल्या पंचायत राज्याची कल्पना मांडिल्ली. ह्या अहवालांत केल्ल्यो विंगडविंगड सुचोवण्यो उपरांत दर एका राज्यान आपले गरजेप्रमाण आपल्या कायद्यांत फाव ते बदल करून आपणायल्यो.

**ग्रामपंचायत घडपाफाटली क्रिया:** ग्रामपंचायतीचे पंच गांवचे मतदार लोक (ग्रामसभा) मतदान पध्दतीन वेंचून काडटात. वेंचून आयिल्ले पंच आपल्या मदल्या एकाची सरपंच आनी एकाची उपसरपंच म्हूण वेंचणूक करतात. ग्रामपंचायतीच्या वांगड्यांचो वट्ट आंकडो पांच ते पंदराभितर आसता. ग्रामपंचायतीचो कार्यकाळ चार वर्सांचो आसता. कांय पंचायतींत बायलो, अनुसूचित जाती-जमाती हांचेखातीर राखीव जागे आसतात.

ग्रामपंचायतीक आपले वर्सावळीचो सगळो हिशेब ग्रामसभेमुखार दवरचो पडटा. वर्सांतल्यान उणेच दोन फावट तरी ग्रामसभेच्यो बसका जावपाक जाय असो नेम आसा. पंचायतीन संमत केल्ले सगळे थाराव चलणुकेंत हाडपाचो अधिकार सरपंचाक आसता. सरपंचाचे गैरहजेरेंत उपसरपंच हीं कामां करूंक शकता.

**ग्रामपंचायतीकडेन हीं कामां सोंपयल्यांत:**

१. भौशीक निवळसाण- भलायकी, थळावी उदकापुरवण, वखदपाणी आनी झाडप.

२. भौशीक बांदकाम- भौशीक रस्ते आनी गटारां बांदप, तांची जतनाय घेवप, रस्त्यांचेर उजवाडाची वेवस्था दवरप, सप्तकी बाजाराची वेवस्था करप, नोकरवर्गाखातीर घरां बांदप आनी गोरवांखातीर गोठे बांदप.

३. शिक्षणीक आनी संस्कृतीक कामां करप.

४. राखण- गांवांत राखणेवेवस्था दवरप, उजो पालोवपाचीं साधनां दवरप आनी तांची वेवस्था पळोवप.

५. प्रशासन- गांवांतल्या सगळ्या घरांक क्रमांक दिवप, घरांविशींची म्हायती पुंजावप, गांवांतल्या बेकार लोकांचो आंकडो दवरप, जे प्रस्न पंचायत पांवड्यार सोडोवप शक्य ना तांची म्हायती उंचेल्या अधिकाऱ्यांक कळोवप, पंचायतीच्या सगळ्या वेव्हाराचीं पुस्तकां सांबाळप.

६. लोककल्याणाचीं कामां- जमीन सुदारणा कायदो चालीक लावप, अनाथ-अपंगूल लोकांची वेवस्था दवरप.

७. शेतउदरगत- शेतवड करपाक आदार दिवप, पडीक जमीन लागवडीखाल हाडप.

८. जनावर सुदारणा- कृत्रिम रेतन केंद्र चलोवप, बऱ्या जनावरांची पैदास करप.

९. गांवगिऱ्या उद्येगधंद्यांक फाटबळ दिवप.

१० राज्य सरकारान अधिकार दिल्यार आपलीं कामां बरे तरेन करपाक विंगडविंगड पंचायत समिती नेमपाचो अधिकार पंचायतीक आसा.

**येणावळ:** पंचायतीचेर सोपयिल्लीं गांवचीं कामां करपाखातीर आनी प्रशासनाखातीर लागपी खर्च भागोवपाक पंचायत सकयल दिल्ल्या येणावळ घटकांतल्यान फंड उबो करता:

*(अ) कर आनी फी:* हातूंत, घर, वाहन, उद्येगधंदे, दुकानां, जायरात, दिवाबत्ती, ऑक्ट्रॉय, प्रमाणपत्रां, घरबांदावळ, फेरीबोट हांचेर आकारिल्ले कर आनी फी हांचो आस्पाव जाता.

*(आ) विकास येवजण:* गांवचे उदरगतीक हातभार लावपी कांय येवजण्यो पंचायत चलयता आनी तेवरवीं पंचायतीच्या फंडांत भर पडटा. देखीक- भाजीपालो रोवप, नर्सरी चलोवप, उदकापंप आनी ट्रॅक्टर भाड्यान दिवप, कुक्कुटपालन, दूद-पुरवण, इमारती भाडें, लघुउद्येग आनी कुटीरोद्येग.

*(इ) रिणां:* वयर नमूद केल्ल्या (आ) येवजण्यांखातीर आनी हेर कामांखातीर पंचायती सरकाराकडसून वा हेर पात्र संस्थांकडल्यान रीण घेवन येवजणी फुडें व्हरूंक शकता.

*(ई) अनुदान:* पंचायतीची दुबळी, अर्थीक परिस्थिती लक्षांत घेवन सरकार पंचायतीक एका खाशेल्या प्रमाणांत अनुदान दिता.

**हेर देश आनी पंचायती:** पूर्विल्ल्या काळांत हेर देशांतूय भारतावरी शासकीय वेव्हार सांबाळपी संस्था अस्तित्वांत आसल्यो. तांचे सुरवातीचें स्वरुप कुटुंबीक आसतालें. रशियांतली मीर (संवसार), दक्षिण स्लाव, सर्ब, बल्गेरीयन आनी हेर लोकांमदली जद्रुगा (इश्टागत), ब्रात्स्त्वो (भावपण), फ्रांसाची पारसोन्नेरियस ह्यो त्या काळांतल्या पंचायतींच्यो देखी आसात. जर्मनी आनी आयर्लंडच्या केल्ट लोकांमदीं असली संस्था आशिल्ल्याचे उल्लेख मेळ्ळयात. एकुणिसाव्या शतमानामेरेन हातूंतल्यो कांय संस्था अस्तित्वांत आसल्यो. कालांतरान यांत्रिकीकरण आनी येरादारी संचारणाची वाडटी वेवस्था, हाका लागून गांवच्या लोकांचे शाराकडेन वेव्हार वाडले. हाकालागून ग्रामपंचायतीचें स्वायत्त आनी कुटुंबीक स्वरुप बदल्लें.

**गोंयच्यो ग्रामपंचायती:** गोंय, दमण आनी दीव स्वतंत्र जायनाफुडें, गोंयांत १९६२ वर्सा गोंय सरकारान पंचायतीची थापणूक केली. सुर्वेक गोंय, दमण आनी दीव संघप्रदेशांत वट्ट १५९ पंचायती आसल्यो. उपरांत हो आंकडो वाडून १९८ चेर पावलो. गोंयांत हातूंतल्यो १८५ पंचायती आसात. ह्यो पंचायती १२ विकासगटांत वांटल्यात. सुमार ७,७०,००० लोक गोंयच्या पंचायत वाठारांत रावतात. सुमार ९५% गोंयचो वाठार ह्या पंचायतींनी आस्पावता.

गोंय राज्याचो ल्हान आवांठ मतींत घेवन गोंयाखातीर एकथरी पंचायत राज्य निर्माण केलां. हातूंत फकत गांवच्या पांवड्यार वावर करपी ग्रामपंचायतींचो आस्पाव जाता. तालुका पांवड्यार पंचायत समिती आनी जिल्हा पांवड्यार जिल्हापरिशद हे दोन थर गोंयांत नात. गांवांत, ग्रामपंचायतींबगर ग्रामसभा ही पंचायतराज्याक संलग्न अशी भौशीक सभा आसा. मतदार वळेरेंत नांव आशिल्ले गांवचे सगळे लोक हे सभेचे आपसुकूच वांगडी जातात. ग्रामसभेच्यो एका वर्सांत उण्यांत उण्यो दोन बसका जावंच्यो असो संकेत आसा. पयले बसकेंत फुडाराक जावपी ग्रामपंचायतीच्या कामांचेर भासाभास जाता. दुसरे बसकेंत, जाल्ल्या कामाचेर विचार जाता. पंचायतीच्या अधिकाराखाल येवपी खंयच्याय गजालींविशीं ग्रामसभा आपलें मत मांडूंक शकता. पूण ग्रामसभेचीं मतां पंचायतीचेर बंधनकारक आसनात.

तालुका थराचेर दरेक विकासगटांत विकास सल्लागार समिती आसता. हे समितीचेर सगळ्या विकासगटांत येवपी सगळ्या ग्रामपंचायतींचे सरपंच आसतात. विकासगटांत लागू जावपी मतदारसंघांतलो आमदार आनी खासदार, विंगडविंगड खात्याचे सरकारी प्रतिनिधी, समाजीक संस्थांचे प्रतिनिधी, अनुसूचित जाती आनी अनुसूचित जमातींचो प्रतिनिधी, बँक प्रतिनिधी हे सल्लागार समितीचेर आसतात. विकास गट अधिकारी हे समितीचो चिटणीस आसता. अध्यक्ष आनी उपाध्यक्ष हांकां वांगडी वेंचून काडटात. ह्या मतदानांत सरकारी प्रतिनिधी आनी समाजीक संस्थांचे प्रतिनिधी हांकां वांटो घेवंक मेळना. दर म्हयन्यांत हे समितीची बसका जाता. त्या त्या विकासगटांतल्या

पंचायतीच्या कारभाराचेर भासाभास जावन अडचणींचेर उपाय सुचयतात.

गांवची लोकसंख्या हो घटक धरून ५, ७ आनी ९ वांगडी आशिल्ल्यो तीन तरेच्यो पंचायती गोंयांत आसात. हातूंत ५ वांगडी आशिल्ल्यो ७६, ७ वांगडी आशिल्ल्यो ४५ आनी ९ वांगडी आशिल्ल्यो ६४ पंचायती आसात.

उत्पन्नाचीं साधनां कमी आशिल्ल्यान चडशा पंचायतींकडसून आंखून दिल्लीं उदरगतीचीं कामां वेवस्थित जावंक पावनात. तरीकूय लोकशायेक फाव तशी राजकी जागृताय निर्माण करपाक ह्यो पंचायती खूब हातभार लायतात. गोंयच्या पंचायतींच्या एकंदर कारभाराचेर नदर आनी नियंत्रण दवरपाखातीर पंचायत खातें आसा. ह्या खात्याचो संचालक दर एका विकासगटांतल्या विकासअधिकाऱ्यांवरवीं पंचायतीचेर नियंत्रण दवरता. दर एके पंचायतींत सरकारान नेमिल्लो पंचायतसचिव आसता. पंचायत मंडळाच्या मार्गदर्शनाखाल पंचायत सचिव पंचायतीचो दिसपट्टो कारभार हाताळटा.

- कों. वि. सं. मं.

## ग्रासीयश वालेरियन, कार्डिनल: (जल्म: ?; मरण: १९७८).

मुंबय शारांतलो पयलो भारतीय आर्चबिशप. ताची आवय बापूय मूळचीं गोंयच्या नावेली वाठारांतलीं. तीं कराची शारांत काम करतालीं. ताणें आपलें शिक्षण केन्डी (श्रीलंका) वाठारांतले सेमिनारींत घेतलें. १९२६ वर्सा ताका मुंबय आर्किडायोसीसाचो यज्ञीक (priest) नेमलो. १९४६ वर्सा तो बिशप जालो. १९५३ त ताका कार्डीनल (cardinal) केलो. १९५४ वर्सा ताणें मुंबय शारांत मेरीयन (Marian) परिशद आनी १९६४ वर्सा युकेरेस्टिक (Eucharistic) परिशद आयोजित केल्ली. युकेरेस्टिक परिशदेच्या निमतान पयलेच खेप पोप पॉल सवो भारताचे भेटेक आयिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## ग्रीस:

**ग्रीस:** पयलींचें नांव हेलास वा एलास. युरोपाच्या बाल्कन वाठारांतलो दक्षिणेवटेनचो एक बरोच पोरनो देश. क्षेत्रफळ १,३१,९८६ चौ. किमी.; लोकसंख्या: १,००,०८,००० (१९८६). अक्षवृत्तीय विस्तार ३४° ४८' ०२'' उत्तर ते ४१° ४४' ५९'' उत्तर; रेखावृत्तीय विस्तार १९° २२' ४१'' उदेंत ते २९° ३८' २७'' उदेंत. हाचे दक्षिणेक भूंयमध्य, उदेंतेक इजीयन दर्या आनी अस्तंतेक आयोनियन दर्या, वायव्येक आल्बेनिया, उत्तरेक युगोस्लाव्हिया आनी बल्गेरिया, उदेंत आनी ईशान्येक तुर्कस्तान आसात. सीक्लाडीझ, डोडेकानीझ, स्पॉरडीझ, आयोनियन जुंव्यांचे चोमे आनी युबीआ, लेझ्बॉस, रोड्झ, कीऑस, सेफालोनिया, कॉर्फ्यू आनी सेमॉस हे व्हडले जुंवे हांचो ग्रीसांत आस्पाव जाता. अॅथेन्स ही ह्या देशाची राजधानी.

**भूंयवर्णन:** दोंगरी वाठार, तोंकाळ फातरांची दर्यादेग आनी भोंवतणी कितलेशेच जुंवे हें ग्रीसाचें खाशेलपण आसा. पिंडस, ऑलिंपस सारक्यो पर्वतांच्यो वळी आनी तांची ऑलिंपस (२,९७२ मी.) आनी हेर २,४६० मी. मेरेन उंचायेचीं तेमकां नामनेचीं आसात. मॅसिडोनिया, ईपायरस, थेसाली, मध्य ग्रीस, पेलोपनीसस आदी जुंवे अशें भूगोलिक नदरेंतल्यान ह्या देशाचे वांटे जातात.

ईशान्येवटेनचो थ्रेस आनी उत्तरेवटेनचो मॅसिडोनिया हे वाठार सामकेच दोंगरी. तातूंत आल्बेनिया, युगोस्लाव्हिया आनी बल्गेरियामेरेन वचपी दोंगरांच्या वळींनी वार्दर, स्ट्रूमा, नेस्तॉस आनी मरित्स ह्या व्हडल्या न्हंयांचीं देगणां आसात. ईपायरस वाठार पिंडस पर्वताचे अस्तंतेवटेन आसा. ह्या वाठाराच्या आयोनियन दर्यादेगेर बरींच ल्हानसान सपाट मळां आनी कांय वाठारांनी फातरांच्यो आनी दोंगरांच्यो राशी आसात. थेसाली ह्या मळांच्या प्रदेशांत हेर खंयच्याय वाठारापरस चड शेतवड आसा. पिनीअस न्हंयेवयलें लारीस हें हांगाचें व्हडलें शार जाल्यार व्हॉलॉस हें बंदर आसा. थेसाली आनी ईपायरसचे दक्षिणेक आनी कॉरिंथ आखाताचे उत्तरेक मध्य ग्रीस हो वाठार आसा. ग्रीसाची राजधानी अॅथेन्स आनी तिचें बंदर पायरीअस हांगा आसा. दक्षिणेवटेनचो पेलोपनीसस वाठार पयलीं ५-६ किमी. रुंदायेच्या कॉरिंथ भुंयेन मूळ भुंयेकडेन जोडिल्लो, तो १८९३ तलो कॉरिंथचो कालवो खणल्याउपरांत मूळ भुंयेकडल्यान पयसावलो. हो वाठार म्हळ्यार सद्या एक जुंवो आसा. हेर जुंव्यांमदीं सगळ्यांत दाट राबीतो आशिल्ले आयोनियन आनी ईजीयन जुंवे ह्या सारके ल्हानसान जुंवे आसात. थंयची भूंय सादारणपणान मूळ ग्रीस भुंयेभशेन आसा.

**हवामान:** देशाच्या चडशा वाठारांनी खर गीम आनी हवा सुकी आसता. समुद्रथरावयलें तापमान सादारणपणान २७° से. आसता. उत्तरेवटेनच्या पर्वतांच्या वाठारांनी हवा कमी उश्ण आसता आनी गिमांत थंय पावस पडटा. सप्टेंबर म्हयन्याच्या दुसऱ्या अर्दांत पावसाळ्याक सुरवात जाता. सादारणपणान हवामान भूंयमध्यसागरी आसता. शिंयाळ्यांत उदेंतेवटेन वचपी चक्री वादळां आसतात. पर्वत वाठारांनी कडक शीं आसता. सलॉनिक हांगाचें तापमान १०° से. मेरेन देंवता. अस्तंत दर्यादिगेचें दक्षिणेवटेनचें हवामान उण्या शिंयाचें आसता. हांगा उत्तरेवटेनचे थंड 'बोरा' वारे दक्षिणेवटेंतल्यान येवपी 'शिलॉक' ह्या हून वाऱ्यांक आपटतात. उत्तर आनी दक्षिण वाठारांनी तापमानांत बरेच फरक जाणवता. पावस उदेंत दर्यादिगेवटेन उणो जाल्यार अस्तंत दर्यादिगेर चड पडटा. थेसालीच्या मळांनी ३८ सेंमी. आनी अॅथेन्साक ३९ सेंमी. पावस पडटा, जाल्यार कार्फ्यू हांगा १२८ सेंमी. पावसाची नोंद जाल्या. दक्षिणेवटेन उण्यांत उणें तापमान १.७° से. जाल्यार चडांत चड ४१.१° से. आनी उत्तरेवटेन तें उण्यांत उणें ८.९° से. जाल्यार चडांत चड ३५° से. आसता. पावसाचें प्रमाण दक्षिणेवटेन सुमार ३७.५० सेंमी. ते ८० सेंमी. मेरेन, जाल्यार उत्तरेवटेन ५० ते १२० सेंमी. आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात:** दक्षिण आनी मध्य देशांत भूंयमध्यसागरी वनस्पत; पर्वत वाठारांनी आनी उत्तरेवटेन मध्य युरोपीय ल्हानसान झोंपां, पानां झडपी तशेंच सदां पाचवेचार उरपी रुख आसात. ओक, चेस्टनट, फर, पायन हे रुख चड प्रमाणांत दिश्टी पडटात. वसंत ऋतूंत फातरांच्या वाठारांनी तरेकवार फुलझाडां फुलतात.

दोंगरी वाठारांनी मध्य युरोपीय कोलसुणें, रानदुकर, लिंक्स, रानमाजरां, मोर्टेन, पिंगशें वांस्वेल, हरण, अस्तंत आनी दक्षिण वाठारांतलो खोकड, रानबोकडो, साळ हे प्राणी हांगा सांपडटात. पेलिकन बोकीं, करकोचे, तिब्यांची कोगूळ हीं सुकणीं, तेभायर उत्तर युरोपांतलीं तरेकवार जातींचीं सवणीं शिंयाळ्यांत ग्रीसांत येतात.

**इतिहास:** इ.स. पयलीं ८०० वर्सासावन हांगाचो बरयल्लो इतिहास मेळटा; पूण इ.स.प. ३००० ते इ.स.प. १४६ मेरेन हांगा एक बरीच गिरेस्त संस्कृताय आशिल्याची गवाय इतिहासीक पुराव्यांवयल्यान मेळटा. हे भुंयेचें पयलींचें नांव हेलस आशिल्लें. हांगा उदरगतीक पाविल्ले संस्कृतायेची निर्मणी करपी लोक युरोप-आशियांतल्यान उत्तर आनी उदेंत दिकेवटेनच्यान हांगा आयिल्ले. तांच्या उपरांत बाल्कनच्या वाठारांतल्यान आनी डॅन्यूब न्हंयच्या देगणांतल्यान आर्य वंशीय आनी आर्य भाशीक लोक हांगा सुमार इ.स.प. २०००-१८०० वर्साच्या काळांत आयले. तांचें नांव अॅकियन आशिल्लें. क्रीट आनी मायसीनी संस्कृतायेवांगडा तांचे लागींचे संबंद आशिल्ले, अशें मानतात. इ.स.प. १२००-१००० काळांत अॅकियन लोकांपरस वेगळे अशे डोरियन लोक हांगा आयले. पयलीं थेसाली, उपरांत मध्य ग्रीस आनी कॉरिंथच्या आखाताचो वाठार आनी निमाणें पेलोपनीससचे द्वीपकल्प हांगा तांणी राबीतो केलो. अॅकियन आनी डॉरियन लोकांनी हांगा नगरराज्यांची थापणूक केली. बऱ्याच नगरराज्यांक एकठांय हाडल्याउपरांत राज्यसंघ निर्माण जाले. हातूंतले कांय म्हत्वाचे राज्यसंघ म्हळ्यार पेलोपनीशियन संघ, हेलेनिक संघ, डेलियन संघ, कॉरिंथची परिशद, इटोलियन संघ आनी अॅकियन संघ. इ.स.प. ४९० ते ४८० च्या काळांत ग्रीस आनी इराण हांचेमदीं लडाय




जाली, तेन्ना ग्रीस हो एकवटीत देश नाशिल्लो आनी नगरराज्याचे एकामेकांकडेन संबंदूय तितलेशे बरे नाशिल्ले. मॅसिडोनियाचो राजा दुसरो फिलीप हाच्या फुडारपणाखाल ग्रीक समाज आनी देश एकठांय हाडपाचे यत्न जाले. ताणें बरेंच व्हडलें सैन्य जमोवन आपलें बळ वाडयलें; पूण सुमार इ.स.प. ३३६ वर्सा ताचो खून जालो आनी राज्यकारभार चलोवपाची जापसालदारकी ताच्या वीस वर्सांच्या पुताचेर अलेक्झांडराचेर पडली. ताणें आपल्या कर्तुपान ल्हानसान नगरराज्यांचेर जैत मेळोवन आपली सत्ता वाडयली आनी उपरांत उदेंतेवटेन भारतामेरेन आपलो शेक पातळायलो. इ.स. ३२३ त ताका मरण आयल्याउपरांत हांगा एकाच अशा राज्यकर्त्याची सत्ता उरली ना. हेरकडल्या राज्यसत्तांनी ग्रीसाचेर जैत मेळोवपाचे यत्न चालूच दवरले. हाचे फुडलो इतिहास इ.स.प. १४६ वर्सा रोमनांनी ग्रीसाचेर जैत मेळयल्या उपरांतचो आसा.

**रोमन सत्ता**: (इ.स.प. १४६- इ.स. ३३०) रोमन साम्राज्यांत ग्रीसाचो आस्पाव जाल्या उपरांत तांणी हांगाची परिस्थिती बदलपाचो यत्न केलो. पयलीं ताणें कॉरिंथ शार काबार करून थंयच्या लोकांक गुलाम म्हूण विकून उडयले. मॅसिडोनियाच्या गव्हर्नराक फकत देखरेख करपाचे अधिकार दिले. सीझराउपरांत ॲंटोनीचे राजवटींत झुजाचो खर्च भागोवपाखातीर ग्रीसांतल्या लोकांकडल्यान बरोच कर घेवंक सुरवात केली. ह्या कराक 'अकेइआ' अशें म्हण्टाले. तेउपरांतच्या काळांत कांय रोमनांनी ग्रीसाची गिरेस्तकाय वाडोवपाचे यत्न करून ॲथेन्स हांगा एका कॉंग्रेसची (अकादमी) थापणूक केली. रोमन सत्तेच्या निमाण्या काळांत गॉथ आनी हेर रानवटी लोकांच्या पंगडांनी ग्रीसाचेर घुरयो घाल्यो.

**बायझंटिन सत्ता**: (३३०-१४५२) रोमन साम्राज्याची अधोगती जाल्याउपरांत पयलो कॉन्स्टंटीन हो बळीश्ट राजा सत्तेर आयलो. ताणें कॉन्स्टंटिनोपल हांगा नवी राजधानी निर्माण केली. ३७५ च्या भूंयकांपांत आनी ३९५-९६ च्या व्हीसीगॉथ पंगडाच्या घुरयांक लागून ती भूंयभरवण जाली. कॉन्स्टंटिनाउपरांत आयिल्ल्या हेर राजांनीय हांगा सुदारणा करपाचे बरेच यत्न केले. पांचव्या ते सातव्या शेंकड्यांत व्हीसीगॉथ, ऑस्ट्रोगॉथ, हूण तशेंच स्लाव्ह, बल्गर, व्हॅंडॉल ह्या सारक्यो रानवटी टोळयो हांगा पावल्यो. तांतल्या कांय जाणांनी हांगा राबीतो केलो. तांकां थंयसावन धांवडावपाचे बरेच यत्न बायझंटीन राजांनी केले. पूण कांय टोळयो धाव्या शेंकड्यामेरेन थंय उरल्यो. बाराव्या शेंकड्यांत तुर्कांनी हांगा घुरयो घाल्यो.

**तुर्की सत्ता**: (१४५३-१८२१). १४५३ त तुर्कांनी कॉन्स्टंटिनोपलाचेर जैत मेळोवन बायझंटिन साम्राज्याचेर आपलो शेक गाजयलो. ह्या काळांत ग्रीकांक फकत तांच्या इगर्जीविरवीं थळाव्या स्वराज्याचे अधिकार मेळळे. तुर्कांनी इगर्जींच्या वेव्हाराभितर चड लक्ष घालें ना, पूण तांचें इगर्जीचेर नियंत्रण आसतालें. ग्रीसांतलीं चडशीं शारां तांणी लश्करांचीं ठाणीं करून सोडलीं. ताका लागून त्या शारांची सोबीतकाय उणी जाली.

**आर्विल्लो ग्रीस**: (१८२१ च्या फुडें). फ्रांसांतली राज्यक्रांती, बळ उणें जाल्ली तुर्की सत्ता आनी एकुणिसाव्या शेंकड्यांतल्यो संवसारांतल्यो हेर घडणुको हांचो परिणाम जावन ग्रीसांत स्वतंत्रतायेची चळवळ सुरू जाली. २५ मार्च १८२१ दिसा स्वतंत्रतायेची घोशणा केली. फुडलीं आठ वर्सां ते तुर्कांवांगडा झुजत आशिल्ले. जायत्या युरोपीय देशांनी ग्रीसाच्या झुजाक फाटबळ दिलें आनी ग्रेट ब्रिटन, रशिया, फ्रांस ह्या सारक्या देशांनी लश्करी पालवूय दिलो. ग्रीसाच्यो शिमो थारावन तो एक स्वतंत्र देश जालो. बव्हेरियाचो प्रिन्स ऑथो हाची हांगाचो राजा म्हूण निवड जाली. तो पयलो ऑटो म्हूण १८३२ सावन राज्यकारभार चलोवंक लागलो. १८४३ त ताचेआड बंड जालें. पुराय तरेन एकाधिकारशायेखाला आशिल्ल्या ह्या देशाक ह्या बंडाउपरांत १८४४ त संविधान मेळळें. फुडें प्रिन्स ऑथो हाका १८६२ त राज्य सोडचें पडलें. राजेशाय तशीच

उरिल्ल्यान प्रिन्स जॉर्ज (डेन्मार्क) हो राजा जालो. १८६४ त ब्रिटनान आयोनियन जुंवे ग्रीसाक दिले. १८६७ त क्रीटाचेर सत्ता मेळोवपाच्या यत्नांत ग्रीसाक तुर्कस्थानाकडल्यान हार खावची पडली. १८८१ त तांणी बर्लिन कॉंग्रेसच्या थारावाप्रमाण तुर्कांकडल्यान थेसाली मेळयलो.

१९१२ च्या बाल्कन झुजांत ग्रीसान बल्गेरिया, सर्बीया, मॉंटनीग्रो हांचेवांगडा बरेपण करून तुर्कस्थानाचो पराभव केलो. ग्रीसाक सलॉनिक जुंवो, मॅसिडोनियाचो कांय वाठार आनी क्रीटसयत कांय इजीयन जुंवे मेळ्ळे. ह्या काळांत जॉर्जाचो खून जालो आनी ताचो पूत पयलो कॉन्स्टंटीन सत्तेर आयलो (१९१३).

पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत (१९१४-१९) ग्रीस सुर्वेक तटस्थ रावलो; पूण थंयचो प्रधानमंत्री व्हेन्यिझेलॉस हाका इश्ट राश्ट्रांवांगडा झुजांत वांटो घेवचो अशें दिसतालें. हाका लागून हांगा दोन पंगड जाले आनी व्हॅन्यिझेलॉसच्या पंगडान कॉन्स्टंटीन हाका काडून उडोवन ताचो पूत अलेक्झांडर हाका राजा केलो (१९१७). १९१९ चे कबलातींतल्यान ग्रीसाक स्मर्ना मेळ्ळो. १९२० त अलेक्झांडराक मरण आयिल्ल्यान कॉन्स्टंटीन पर्थून सत्तेर आयलो. तुर्कस्थानांत सत्तेर आयिल्ल्या केमाल अतातुर्क हाणें ग्रीसावांगडा लढाय करून स्मर्ना जिखून घेतलो. १९२३ तल्या लॉझेनचे कबलातींतल्यान ग्रीसाक तुर्कस्थानांतलो सगळो वाठार सोडचो पडलो. कितलेशेच ग्रीक तुर्कस्थानांतल्यान ग्रीसांत आयले, तशेंच तुर्कीय ग्रीस सोडून तुर्कस्थानांत परतले. राश्ट्रसंघांचे देखरेखीखाला ह्या दोनूय देशांच्यो शिमोय थारल्यो.

म्हाझुजाउपरांत हांगा संविधानात्मक राजेशाय आसची, काय पुराय संसदीय लोकशाय आसची असो प्रस्न उप्रासलो. लोकांमदीं दोन पंगड जाले. १९२४ त प्रजासत्ताकाची थापणूक जाली. १९२४ ते १९३३ च्या काळांत हांगा सशस्त्र क्रांती, प्रतिक्रांती हे सारक्यो घडणुको घडत रावल्यो. अलेक्झांडराच्या मरणाउपरांत प्रधानमंत्रीपदावयल्यान पराभव जाल्लो व्हेन्यिझेलॉस पर्थून १९२८ त पंतप्रधान जालो. ताणें ग्रीसाच्या शेजारी राश्ट्रांवांगडा बरे संबंद दवरले. १९३२ त हांगा अर्थीक मंदी आयली. राजकी मळाचेरूय परिस्थिती इबाडली. १९३३ तल्या वेंचणुकांनी पर्थून मॉनार्किस्ट पक्ष सत्तेर आयलो. सत्तेखातीर विंगडविंगड पक्षांची एकामेकांचे पांय ओडपाची सर्त लागली. मिटॅक्सस हाणें जॉर्ज राजाच्या बरेपणान सत्ता हातासली आनी ताच्या मुखेलपणाखाल राज्यकारभार चलूंक लागलो.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत (१९३९-४५) ग्रीसान तटस्थ रावपाचें थारायलें. जेन्ना मुसोलिनीन ग्रीसाचो झुजातळ म्हूण उपेग करपाचें थारायलें, तेन्ना मिटॅक्ससान ताका न्हयकार दिलो. ह्या कारणाक लागून इटलीन ग्रीसाचेर घुरी घाली, पूण ग्रीक सैन्यान तांकां धांवडावन घाले; तेन्ना जर्मनीन ग्रीसाचेर घुरी घालून ताचेर जैत मेळयलें. ब्रिटनान ग्रीसाक पालव दिलो, तरीपूण जर्मनी, इटली आनी बल्गेरियाच्या फौजांनी ह्या देशाक पुरायपणान आपल्या हातांत दवरलो. जर्मनीन थंय नव्या सरकाराची थापणूक केली. इतले मजगतीं मिटॅक्ससाक मरण आयलें. इश्ट राश्ट्रांनी जर्मन सैन्याचेर जैत मेळयलें आनी व्हार्सायचे कबलातींतल्यान ग्रीसाक कांय वाठार मेळ्ळे. रशियेच्या पालवान निर्माण जाल्लो कम्युनिस्ट पक्ष आनी हांगाचो रॉयलिस्ट पक्ष हांचेमदीं सत्तेखातीर झगडीं जावंक लागलीं. १९४५ उपरांत कम्युनिस्ट देशांचो प्रभाव उणो करपाखातीर अमेरिका आनी ब्रिटनान हेर राश्ट्रांक अर्थीक पालव दिवपाचें धोरण थारायलें. ग्रीसाक अमेरिका, ब्रिटन आनी हेर इश्ट राश्ट्रांकडल्यान अर्थीक आदार मेळ्ळो. १९४६ त वेंचणुको जाल्यो. कम्युनिस्टांक बेकायदेशीर थारायले. मॉनार्किस्ट पक्षाक भोवमत मेळ्ळें. १९४७ त जॉर्जाक मरण आयलें आनी पयलो पॉल राजा जालो. कम्युनिस्टांनी आपलें बळ वाडोवन वेगळ्या तात्पुरत्या सरकाराची थापणूक केल्ली. १९४९ त कम्युनिस्टांचें बंड पुरायपणान चिड्डून उडयलें. १९५२ च्या वेंचणुकांनी पापागोस हाणें थापणूक केल्ल्या पक्षाक भोवमत मेळून तो प्रधानमंत्री जालो. त्यावेळार बायलांक पयलेच फावट मत दिवपाचो अधिकार मेळ्ळो. ग्रीस नाटो (NATO) हे संघटनेचो वांगडी जालो. १९५४ त सायप्रसांतल्या ग्रीकांनी सायप्रस ग्रीसांत विलीन करपाची मागणी केली, पूण थंयच्या तुर्की अल्पसंख्यांकांनी ताका विरोध केलो. हाका लागून थंय दंगे जावंक लागले आनी निमाणें १९५९ त सायप्रस हें स्वतंत्र राश्ट्र, संयुक्त राश्ट्रसंघान निर्माण केलें. १९५५ त कारामानलिस हो ग्रीसाचो पंतप्रधान जालो. ताचेआड वचून जॉर्जाकोपौलॉस हाका राजान पंतप्रधान म्हूण नेमपाचो यत्न केलो, पूण तो फळादीक जालो ना. १९६३ त कारमानलिसान राजीनामो दिलो आनी पापेंद्रू पंतप्रधान जालो. संसदेचें ताका फाटबळ मेळ्ळें ना. १९६४ वर्सा वेंचणुको जाल्यो. पापेंद्रू पंतप्रधान म्हूण वेंचून आयलो. राजा आनी पापेंद्रू हांचेमजगतीं वाद जावन लश्करी अधिकाऱ्यांनी सत्ता आपल्या हातांत घेतली आनी पापेंद्रूक सत्तेवयल्यान कुशीक काडलो. १९६८ त पॅपॅडोपोलॉस हाका पंतप्रधान केलो. लश्करशायेच्या काळांत कॉन्स्टंटीन राजान दोन फावट उठाव करपाचे यत्न केले. १९७४ त बऱ्याच वादांउपरांत मतदान जालें आनी ग्रीसांतली राजेशाय पुराय काबार जावन तो देश एक प्रजासत्ताक म्हूण जाहीर जालो. १९७४ तल्या वेंचणुकांनी कारमानलिसचें सरकार सत्तेर आयलें. पूण फुडें ताच्या नव लोकशाय पक्षाचो प्रभाव उणो जालो. १९८१ च्या वेंचणुकांनी पॅन हॅलॅनीक सोशलिस्ट मुव्हमेंट पक्ष सत्तेर येवन पंतप्रधानपदाचेर पापेंद्रूची नेमणूक जाली. १९८६ त जाल्ल्यो वेंचणुको पर्थून तांणीच जिखल्यो आनी पापेंद्रू होच पंतप्रधान उरलो.

**राज्यवेवस्था:** १९७५ तल्या संविधानाप्रमाण ग्रीस एक सांसदीय लोकशाय देश म्हूण जाहीर केलां. १९५२ तल्या संविधानांतले बरेच मुद्दे ह्या संविधानांत तशेच दवरल्यात. १९६७ पयलीं लश्कराच्या हातांत सत्ता वचचेपयलीं हांगा राजा वरवीं राज्यकारभार चलतालो. १९७५ तल्या संविधानांत राजेशाय काबार करून राजाच्या जाग्यार राश्ट्रपतीपदाची निर्मणी केली. राश्ट्रपती, लोकांनी वेंचिल्लो आसता. खरी सत्ता पंतप्रधानाच्या हातांत आसता. ताकाय लोकांनी वेंचून काडिल्लो आसता. पंतप्रधान मंत्रीमंडळ वेंचून काडटा. संसद एकाच घरांत भरता. तातूंतले सगळे वांगडी वेंचणुकांतल्यान चार वर्सांखातीर विधीमंडळ सांबाळटात. संसदेंत ३०० वांगडी आसतात. १८ वर्सां पुराय जाल्ल्या दर एकल्याक मत दिवपाचो अधिकार आसा.

थळावो राज्यकारभार १० प्रांतांतल्यान चलता. ह्या प्रांतांचे आनी दर एका प्रांताचे ५३ वांटे केल्यात. तांकां नोमोई अशें म्हण्टात. नोमोईचें शासन घरखात्याच्या मंत्र्यान नेमिल्ल्या शासकावरवीं चलता. शारांच्या वाठारांनी लोकांनी वेंचून काडिल्ल्यो नगरपालिका राज्यकारभार चलयतात.

**अर्थीक स्थिती:** शेतवडीक हांगा चड म्हत्व आसा. उद्येगीक उदरगत दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत जाल्या. गंव, बार्ली, ओट, मको, काळंगां, बटाट, तोमातां, तंबाकू, कापूस, साकर, आल्फा-आल्फा, बीट, ऑलिव्ह आनी हेर फळांचें हांगा बरेंच उत्पादन जाता. मोनजात पोसपाच्या धंद्याची चड उदरगत जाल्ली ना. ताका लागून मांस आनी तांतयांची हेर देशांतल्यान आयात जाता. दुसऱ्या म्हाझुजावेळार हांगाचीं रानां बरींच कापून उडयल्लीं. ताका लागून लांकूड, कागद हांचीय आयात करची पडटा.

हांगाच्या खणींनी लोखण, क्रोमायट, बॉक्साइट, बॅराइट, शिशें, जस्त हीं खनिजां बरींच सांपडटात. ॲस्बॅस्टॉस, संगमरवर, चुनखडी, तांबें, भांगर हीं खनिजां त्यामानान उणी आसात.

भोंवतणच्या दर्यांत नुस्तें बऱ्याच प्रमाणांत आसा; पूण दुसऱ्या म्हाझुजांत नुस्तेमारी-व्हडीं दुस्मानाच्या सैन्यान नश्ट वा जप्त केल्ल्यान हो धंदो बंद पडिल्ल्यावरी जाल्लो; पूण उपरांत सरकारान ह्या धंद्याचे उदरगतीची येवजण करून ताका म्हत्व मेळोवन दिलें. आतां हांगासावन बरेंच नुस्तें निर्यात जाता.

पोरने अवशेश, दर्यादिगो, जुंवे हाका लागून ह्या देशाक बरेच पर्यटक भेट दितात. पर्यटन हो अर्थवेवस्थेचो एक म्हत्वाचो घटक जावन आसा.

हवाबंद डब्यांनी भाजी, फळां भरप, बीयर, सोरो, कपडोनिर्मणी, चामड्याच्यो वस्तू, सौंदर्यप्रसाधनां, रसायनांउद्येग, सारें आनी खनिजांपसून धातू तयार करपाचे उद्येग हांकां म्हत्व आसा.

ह्या देशाचे आयात निर्यात वेव्हार अस्तंत जर्मनी, सावदी अरेबिया, इटली, फ्रांस, अमेरिका आनी हेर देशांवांगडा जातात. येरादारीचीं साधनां, पेट्रोलियम ह्या सारक्या गजालींची आयात चड जाता, जाल्यार तंबाकू, खाणा-जेवणाच्यो वस्तू हांची निर्यात जाता.

ड्रा हें हांगाचें चलनी नाणें. 'बँक ऑफ ग्रीस' ही हांगाची मुखेल बँक.

**येरादारी आनी संचारणः** १९८४ मेरेन हांगा १,०६,३०६ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले, जाल्यार १९८५ मेरेन २,४७९ किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आशिल्ले. दुसऱ्या म्हाझुजांत हांगाची येरादारी वेवस्था काबार जावन गेल्ली. झुजाउपरांत थंय व्हड प्रमाणांत रस्त्यांची, रेल्वेमार्गांची उबारणी केली. रेल्वेमार्गांची वेवस्था सरकारी संस्था, 'हेलेनिक स्टेट रेल्वेज' सांबाळटा.

उदकांतले येरादारीमदीं ग्रीसान बरीच नामना जोडल्या. एलेयूसीस, सलोनिक, व्हॉलोस, पिरेउस हीं हांगाचीं मुखेल बंदरां. उदकांतले येरादारीन हांगाच्या सगळ्या जुंव्यांक एकामेकांकडेन जोडल्यात. सरकाराच्या नियंत्रणाखाल आशिल्ली 'ऑलिंपिक एअरवेज' ही विमानकंपनी हवाईमार्गावेली येरादारी सांबाळटा. जगांतल्या बऱ्याच देशांकडेन हवाईमार्गांतल्यान ग्रीसाची येरादारी चलता. अँथेन्स हांगा देशांतलो मुखेल विमानतळ आसा.

१९८३ मेरेन हांगा १२४ दिसाळ्यांची नोंद जाल्ली. तेभायर कितलींशींच हेर खबरांपत्रां हांगासावन उजवाडाक येतात. रेडिओ आनी दूरचित्रवाणीचेर पुरायपणान सरकाराचें नियंत्रण आसा.

**लोक आनी समाजजीणः** हांगाचे ९४.९% लोक ग्रीक वंशाचे, १.८% मेसिडोनियन, ०.६% तुर्क, ०.६% अल्बेनियन आनी हेर २.१% आसात. धर्मामदीं सगळ्यांत चड म्हळ्यार ९८.१% लोक किरिस्तांव धर्माचे आसात. हातूंत ९७.६% ग्रीक ऑर्थोडॉक्स, ०.४% रोमन कॅथलिक, ०.१% प्रोटेस्टंट आसात. तेभायर १.५ % मुसलमान आनी ०.४ % लोक हेर धर्मांचे आसात. देशांत धर्मस्वतंत्रताय आसा, पूण इस्टर्न ऑर्थोडॉक्स धर्म हो अधिकृत धर्म जावन आसा. गांवगिऱ्या वाठारांतल्या लोकांची जीण सादी पूण मजेची आसा. राजकारणाचें ह्या लोकांक बरेंच गिन्यान आसा आनी ताचेर भासाभास करपाची लोकांक बरीच आवड आसा. उत्सव आनी सणांच्या वेळार नाचगाणी करपाची तांकां खूब आवड आसा. चलयांक हुंडो दिवपाची पध्दत कांय प्रमाणांत आसा.

हांगाची कला पयलींसावन नामनेक पावल्या. एका काळार ह्या देशांत कलेची स्वतंत्रपणान उदरगत जाल्ल्यान आजूय हांगा कलेच्या मळार ग्रीसान संवसाराचें लक्ष आपलेवटेन ओडून दवरलां. अस्तंतेकडले आनी उदेंतेकडले कलेची भरसण हांगा बरेभशेन जाल्ली दिश्टी पडटा. लोककलांमदीं पूर्विल्ली नृत्यकला आयजमेरेन तिगून उरल्या. नाटक, संगीत, गणित, खगोलशास्त्र, विज्ञान, तत्त्वगिन्यान, साहित्य ह्या सगळ्या मळांचेर ग्रीसाक बरीच पोरनी परंपरा आसा. तुर्कांच्या धुरयांउपरांत कितल्याशाच वर्सांचे परतंत्रतायेक लागून हांगाच्या कलामोगी लोकांचो बरोच घुस्मटमार जालो, पूण स्वतंत्रतायेउपरांत पर्थून तांणी कलेचे उदरगतीचो वावर नेटान करून देशाक नामना मेळोवन दिली. अॅरिस्टॉटल, प्लेटो, सॉक्रेटीस, आर्किमिडीझ अशे विंगडविंगड मळांवेले कितलेशेच म्हान मनीस ग्रीसान संवसाराक दिल्यात. वास्तूकला, शिल्पकला ह्या मळांचेर ग्रीसान बरीच भर घाल्या. ग्रीकांची पूर्विल्ल्या काळांतली संस्कृताय संवसारांत अज्रंवर जावन उरल्या.

इ.स.प. ७७६ वर्सा सुरू जाल्ली ऑलिंपिक खेळांसर्त म्हळ्यार खेळाच्या मळार ग्रीसान संवसाराक दिल्लें एक म्हान दान जावन आसा. खेळामळांचेर ग्रीसांतले लोक व्हडा उर्बेन जमतात.

**शिक्षणः** राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण ९०% परस चड आसा. ६ वर्सां ते १२ वर्सांमेरेनचें शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसता. प्रांतीय सरकार आनी केंद्र सरकार हांचेकडेन शिक्षणाची जापसालदारकी आसता. शिक्षणाक ह्या देशांत पयलींसावन म्हत्व आसा. खाजगी शिक्षण संस्थांचेरुय सरकाराचें नियंत्रण आसा. उंचेल्या पांवड्याचेर विंगडविंगड मळांवेलें शिक्षण दिवपाची बरी वेवस्था ह्या देशांत आसा. कायदो, तत्त्वगिन्यान आनी कला शाखेंतल्या हेर शिक्षणाचो पांवडो बरोच ऊंच आसा.

अँथेन्स हांगाचें राश्ट्रीय विश्वविद्यालय, सलॉनिक हांगाचें अॅरिस्टॉटलीयन विश्वविद्यालय आनी पात्रास विश्वविद्यालय हीं मुखेल विश्वविद्यालयां आसात. तेभायर उंचेल्या पांवड्यावेलें शिक्षण दिवपी हेर बऱ्योच शिक्षणसंस्था हांगा आसात. ह्या देशांत खाजगी विश्वविद्यालयांचेर बंदी आसा.

**भाशा आनी साहित्यः** ग्रीक ही इंडो-यूरोपीयन भाशा चोम्यांतली एक म्हत्वाची भाशा. ही भाशा ३,००० वर्सांपरस पोरनी आसा, अशें इतिहासीक पुराव्यावयल्यान सिध्द जाता. आयोनियन, अॅटिक, एओलियन, डोरिक ह्यो ग्रीस भाशेच्यो कांय म्हत्वाच्यो बोली. इ.स.प. चवथ्या शेंकड्यासावन 'कोईनेड' ह्या ग्रीक भाशारुपाक मान्यताय मेळ्ळी. ही भाशा अँथेन्सचे बोलीचेर आदारिल्ली आनी आयोनियन बोलीचो तिचेर प्रभाव आशिल्लो. ग्रीकांनी सेमिटिक लिपी आपणावन तिची उदरगत केली. ही ग्रीक लिपी म्हळ्यार सगळ्या युरोपीय लिपींचें मूळ जावन आसा. कथार्युऔसा ही भाशा सरकारी आनी बौध्दिक बरपावळीखातीर वापरतात. ही भाशा पूर्विल्ल्या ग्रीक भाशेचेंच एक नवें रूप आसा. देमोतिकी ही भाशा दिसपट्ट्या वेव्हारांत वापरतात.

ग्रीक साहित्याक सुमार ३,००० वर्सांची परंपरा आसा. पूर्विल्लें ग्रीक साहित्य सामकें गिरेस्त आसा आनी संवसारांतले बरेच साहित्यिक आयजमेरेन ह्या साहित्याकडल्यान प्रेरणा घेतात. होमर हाची 'इलियड' आनी 'ओडिसी' हीं महाकाव्यां अज्रंवर आसात. स्टिसिकोरस, बकिलीडीझ, पिंडर, आनाक्रेऑन, सॅफो, कोरिना हीं पोरन्या म्हत्वाच्या ग्रीक बरोवप्यांचीं कांय नांवां. एस्किलस, सॉफोक्लीझ, युरिपीडीझ हांणीय म्हान साहित्याची निर्मणी केल्या. १४५३ उपरांतच्या आर्विल्ल्या काळापयलीं रोमन आनी बायझंटिन साम्राज्यावेळार हांगाच्या साहित्याचेर किरिस्तांव धर्माचो प्रभाव दिसून येता.

आर्विल्ल्या साहित्यीकांमदीं कोस्टिस पालामास, इयोआन्निस, सायकारीस, निकोस काझांटझाकीस, येऑर्यिऑस सेफेरीस, अलेक्झांड्रॉस पापाडिअॅमॅंटिस हीं कांय म्हत्वाचीं नांवां आसात. येऑर्यिऑस सेफेरीस हाका १९६३ चो नोबेल पुरस्कार फावो जाल्लो.

**म्हत्वाचीं थळांः** अँथेन्स ही राजधानी. सलॉनिक, पायरीअस, पट्रॅस आनी कॉरिंथ हीं म्हत्वाचीं शारां. पोरन्या अवशेशांखातीर अँथेन्सावांगडा डेल्फाय, कॉरिंथ, एपिडॉरस, स्पार्टा, ऑलिंपिया हांगा बरेच भोंवडेकार येतात. क्रीट, यूबीआ, कीऑस ह्या जुंव्यांचेरुय बरेच पोरने अवशेश आसात. हांगाचे मूळ भुंयेचेर आनी जुंव्यांचेर दिसून येवपी पोरने कलाकुसरीचे पुरावे ग्रीसाच्या गिरेस्त संस्कृतीक दायजाची गवाय दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**ग्रेट ब्रिटनः** युनायटेड किंग्डम ऑफ ग्रेट ब्रिटन अँड नॉर्दर्न आयर्लंड. युरोपांतलो वायव्येवटेनचो म्हत्वाचो देश. क्षेत्रफळः २,४४,१०० चौ. किमी. हातूंत इंग्लंड (१,३०,४३९ चौ. किमी.), वेल्स (२०,७६८ चौ. किमी.), स्कॉटलंड (८,७८,७७२ चौ. किमी.), नॉर्दन आयर्लंड (१४,१२१ चौ. किमी.) हांचो आस्पाव जाता. लोकसंख्याः ५,६६,७८,००० (१९८६). ग्रेट ब्रिटनचे दक्षिणेवटेन इंग्लीश खाडी, अस्तंतेक सेंट जॉर्जची खाडी, आयरीश दर्या, नॉर्थ चॅनल आनी अॅटलांटिक म्हासागर, उत्तरेवटेन अॅटलांटिक म्हासागर आनी उदेंतेक उत्तर दर्या आसा. विस्तार-दक्षिणेवटेन सिली जुंवे ४९° ५५' उत्तर आनी उत्तरेवटेन शेटलंड जुंवे ६०° २५' उत्तर तशेंच अस्तंतेवटेन हेब्रिडीझांतल्यान बॅरा हेड जुंव्यासावन ७° ३८' अस्तंत ते उत्तर दर्यांतलो लोस्टॉफ्ट १° ४६' उदेंतेमेरेन. मूळ भूंयेची दक्षिण-उत्तर लांबाय सुमार




९६० किमी. आनी उदेंत-अस्तंत रुंदाय ५१२ किमी. आसा.

**भूंयवर्णनः** ग्रेट ब्रिटन हो एक व्हड जुंवो. ताचे दर्यादिगेलागीं शेंकड्यांनी ल्हान ल्हान जुंवे आनी जुंव्यांचे चोमे आसात. हो देश पूर्विल्ल्या काळांत यूरोपाच्या मूळ भुंयेलागीं जोडिल्लो आशिल्लो. दर्यादिग तोकांच्या फातरांची आसा आनी तिचेर बरींच आखातां आनी उपसागर तयार जाल्यात. दर्याचे अशीर फांटे देशांत बरेच भितर मेरेन पावल्यात. न्हंयो दर्याक मेळटात त्या सुवातींचेर खाडी तयार जावॅन बरींच उपेगाचीं बंदरां निर्माण जावंक पावल्यांत. ह्या देशांत सगळ्या तरांचे फातर दिसून येतात.

इंग्लंडच्या नैर्ऋत्य, अस्तंत आनी उत्तर वाठारांत दोंगर आसात. उदेंत आनी आग्नेय वाठार हे ल्हान दोंगुल्ल्यो, सकयले वाठार हांचे आसात.

उदेंत दर्यादिगांचेर कांय सुवातींचेर नेटाचें वारें आनी भरतेक लागून दर्याचें उदक भितरमेरेन येवन हुंवाराची परिस्थिती येवंची न्हंय हाका लागून वण्टी बांदल्यात. उत्तरेवटेन न्हायन न्हंयच्या उदेंत-अस्तंत देगणांत, स्कॉटलंडचे शिमेर चेव्हय दोंगराची वळ आसा. तिचें चेव्हूट हें दोंगरातेमक ८१६ मी. उंचायेचें आसा. स्कॉटलंड शिमेसावन मध्य इंग्लंडच्या डर्बीशरमेरेन पेनाइन दोंगरांची वळ आसा. दक्षिण-उत्तर पातळिल्ल्या ह्या दोंगरावळीचे अस्तंतेवटेन दोंगुल्ल्यांचो वाठार आनी ताच्याय फुडें इंग्लंडांतलें सगळ्यांत ऊंच दोंगरातेमक स्कॉफेल पाइक (९७८ मी.) आशिल्ले दोंगर आसात. पेनाइनचे दक्षिणेक मध्य इंग्लंडचो मिडलँड हो वयर-सकयल आशिल्लो पिकाळ देगणांचो वाठार आसा. नैर्ऋत्येवटेन कॉर्नवॉलचे दोंगर आसात. ३३६ किमी. लांबायेची अस्तंतेवटेन व्हांवपी सेव्हर्न आनी ३३४ किमी. लांबायेची आग्नेयेवटेन व्हांवपी टेम्स हे भायर हंबर, टाईन, टीझ, ट्वीड, आयर, ट्रेंट, वेलंड, ऊझ ह्यो उदेंतेवटेनच्यो, ॲव्हन आनी एक्स ह्यो दक्षिणेवटेनच्यो आनी मर्सी ही अस्तंतेवटेनची अश्यो बऱ्योच न्हंयो हांगा आसात.

वेल्स हो दोंगरी वाठार. ताचे दक्षिणेवटेनच्या आनी अस्तंतेवटेनच्या दर्यादिगांचेर भूंय अरुंद आनी सकयल आसा. उत्तर दर्यादिगेचेरूय ल्हान सान अशे मळांचे वाठार आसात आनी तातूंत डी न्हंयचें देगण आसा. वाय, अस्क, टाउई, टायव्ही ह्यो वेल्सांतल्यो हेर न्हंयो आसात. वेल्सांतलो दोंगरी वाठार उसू पडिल्लो आसा. थंय माउंट स्नोडन हे सगळ्यांत ऊंच (१,०८५ मी.) दोंगरातेमक आसा. वेल्सांत शेतजमीन चडशी ना.

स्कॉटलंडचो दक्षिण वाठार दोंगरी आसा. थंय रुंद-वाटकुळ्यो दोंगुल्ल्यो आसात. हांगासावन उत्तरेवटेन व्हांवपी न्हंयो आसात. स्कॉटलंडचो मदलो वाठार सुमार १५० मी. उंचायेचो आसा, तो क्लाईड, फोर्थ आनी टे न्हंयांच्या देगणांनी भरला. ह्याच वाठारांत स्कॉटलंडची नामनेचीं शारां ग्लासगो आनी एडिंबरो आसात. हांचे उत्तरेवटेन ग्रॅम्पियन ह्या पर्वतवाठारांत ग्रेट ब्रिटनचें सगळ्यांत ऊंच दोंगरातेमक बेन नेव्हिस (१,२२१ मी.) आसा. स्कॉटलंडांत दर्याचें उदक भितरमेरेन पाविल्ल्यान 'लॉक' सरोवरां तयार जाल्यांत. स्कॉटलंडच्या वायव्य वाठारांतय हायलँड हो ऊंच दोंगरी वाठार आसा. डी, डॉन, स्पे ह्यो हांगाच्यो हेर न्हंयो. हेब्रिडीझ जुंवे दोंगरी आसात आनी मल जुंव्यावेले बेन मोर तेमक ९५५ मी. उंचायेचें आसा.

**हवामानः** ग्रेट ब्रिटनच्या अक्षांशांतल्या हेर वाठारांच्या मानान ब्रिटनचें हवामान बरेंच थंड आसा. गल्फ स्ट्रीमच्या फांट्याचो उत्तर ॲटलांटिक प्रवाह ह्या देशाच्या लागींसावन व्हांवता; हाका लागून हवामानाचें हें खाशेलेपण जाणवता. नैर्ऋत्येवटेनच्यान येवपी वारेंय हुनसाण हाडटा. ग्रेट ब्रिटनांतलें शिंयाळ्यांतलें तापमान सुमार ४° से. ते ६° से. आसता, जाल्यार गिमांत तें ११.७° से. ते १७.२° से. आसता. गिमांत २४° से. वयर आनी शिंयाळ्यांत -५° से. सकयल तापमान चडशें पावना. हांगाच्या पावसाचें खाशेलेंपण म्हळ्यार दर म्हयन्यांत इल्लो तरी पावस हांगा पडटाच. कांय वाठारांनी फेब्रुवारी आनी ऑगस्ट म्हयन्यांत

सगळ्यांत चड पावस पडटा. वर्सुकी पावस सुमार १०० सेंमी. परस चड पडटा. इंग्लंडांत पावसाचें प्रमाण वर्साक सुमार ८६ सेंमी.; अस्तंतेवटेनच्या आनी उत्तरेवटेनच्या वाठारांनी ३८० सेंमी.; जाल्यार उदेंत आनी आग्नेयेवटेन सुमार ६७ सेंमी. आसता. चुनखडीच्या वाठारांनी जिरपी उदक सोडल्यार, वितळिल्ल्या बर्फाचें आनी पावसाचें चडशें उदक व्हांवन वता.

**वनस्पत आनी मोनजातः** पयलीं ह्या देशांत रानांचें प्रमाण बरेंच आशिल्लें. उद्येगीकरण आनी आधुनिकीकरण जाल्यान रानां कापून उडयलीं. सद्याक देशाच्या सुमार ७% वाठारांतूच रानां आसात. स्कॉटलंडच्या उदेंत आनी उत्तर दिकांक कांय चड प्रमाणांत रान आसा. थंय पायन आनी बर्च हे रूख सांपडल्यात. सकयल्या वाठारांत चडशे ओक, एल्म, बीच आनी ॲश हे रूख दिश्टी पडटात. वेल्सचो चडसो वाठार तणाचो आसा. कांय वाठारांत ल्हानसान झोंपां, कांट्यांचीं झोपां आनी विंगडविंगड तरांचें तण दिसून येता. ब्लूबेल, बटरकप, डॅफोडिल, डेझी, लव्हेंडरस्केबियस, रेड पॉपी, डॉग रोझ हीं फुलझाडां चोंयवटेन आसात.

हांगा पयलीं युरोपांतल्या हेर वाठारांनी सांपडपी कोलसुणीं, वांस्वेलां, रानदुकर, रेनडियर, रानवटी गोरवां, बीव्हर हे सारके प्राणी बरेच आशिल्ले. पूण ते आतां नश्ट जाल्यात. हरणाच्यो कांय जाती राखण करून दवरल्यात. सोशे, खोकड, वीझल, हेजहॉग, स्टोट हे रानवटी प्राणी हांगा आसात. कांय न्हंयांनी ऑटर सांपडटात. केन्नाकेन्नाय दर्यादिगांचेर सील दिश्टी पडटात. चडशी ब्रिटीश सुकणीं हेर जाग्यांवेल्यान हांगा येतात; तांच्यो सुमार २०० जाती आसात. गोल्डन ईगल, रेड ग्रावस, मॅगपाय हीं थळावीं सुकणीं. स्टारलिंग, ब्लॅकबर्ड, थ्रश हीं गावपी सुकणीं आनी चिमणी, ब्लू टिट, टेन, गोल्ड क्रेस्ट हीं हेर सुकणींय हांगा आसात. कीडमुयेच्यो सुमार २१,००० परस चड जाती हांगा सांपडल्यात.

**इतिहासः** अश्मयुग काळांतल्या ब्रिटनाविशींची चडशी म्हायती मेळना. तेन्ना सद्याचे ब्रिटीश जुंवे युरोपाक जोडून आशिल्ले अशें म्हण्टात. मनशाचो राबितो हांगा चडसो नाशिल्लो. केंस आशिल्ले हत्ती, शिंव, वाग असले प्राणी थंय आशिल्ले. नव अश्मयुगांत उत्तर ध्रुवावटेनच्यान व्हांवपी हिमन्हंयांक लागून ब्रिटीश जुंवे युरोपाचे मूळ भुंयेकडल्यान वेगळे जाले. फुडें ताम्रपाशाण युगांत इ.स.प. सुमार दुसऱ्या-पयल्या सहस्त्रकांत ब्रिटनाचेर परकी लोकांनी घुरयो घाल्यो, तेन्ना हांगा युरोपांतल्यान आयिल्ले आयबेरीयन लोक आशिल्ले. हांगा आयिल्ल्या लोकांच्या पंगडांक गेल आनी ब्रिटन अशें म्हण्टाले. उपरांत ह्या दोनूय जमातींक केल्ट अशेंय नांव पडलें. आयबेरियनांचेर केल्टांनी जैत मेळयलें. केल्ट लोकांक शेतवडीची आवड आशिल्ली. तांबें आनी कथील हांची भरसण करून तांणी ब्रॉंझ धातू तयार केल्लो. धातूंची तरेकवार हत्यारां ते वापरताले. इ.स.प. सुमार ५०० वर्सांच्या ह्या सुदारिल्ल्या केल्ट लोकांक ब्रिटन अशें नांव मेळ्ळें. तांणी गेल लोकांक थंयसावन धांवडावन घाले. तांतले कांय जाण जे आयर्लंडांत गेले, तांकां पिक्ट अशें नांव पडलें. स्कॉटलंडांत गेल्ल्यांक स्कॉट अशें नांव पडलें.

ब्रिटन लोकांक लोखणाचो उपेग करूंक कळटालो. ते गांवांगांवांनी रावताले. तांणी रस्तेय बांदिल्ले. दिसपट्ट्या वेव्हारांत तांब्याच्या आनी भांगराच्या नाण्यांचो उपेग तांणी सुरू केलो. घोडो, गाय, बैल, कुत्रे सारकी मानजात पोसून तांणी फिनीशीयन लोकांवांगडा वेपार सुरू केलो. ह्या लोकांमदीं अंधश्रध्दा, रुढी, परंपरा हांचो बरोच प्रभाव आशिल्लो. तांचेमदीं सूर्याची उपासना आनी मूर्तीपूजा करपाची चाल आशिल्ली. तांच्या धर्मोपदेशकाक ड्रुईड अशें म्हण्टाले. केल्ट आनी ब्रिटन हांचेमदीं सदांच झुजां जातालीं. परकी दुस्मानाक ते एकामेकांआड पालव दिताले. ताका लागून रोमन लोकांच्या घुरयांक हांगा बरोच आदार मेळ्ळो.

*रोमन सत्तेचो काळः* इ.स.प. सुमार ५५ वर्सा, रोमन लोकांचो खडेगांठ झुजारी ज्युलियस सीझर हाणें गॉल (सद्याचो फ्रांस) चेर घुरी घाली. तेन्ना ब्रिटन लोकांनी गॉलांत रावपी हेर ब्रिटनांक पालव दिलो. हाका लागून ज्युलियस सीझरान ब्रिटनाचेर धा हजार रोमन सैनिकांसयत घुरी घाली. पयलीं ब्रिटन लोकांनी तांकां बरेंभशेन झूज दिलें, पूण सीझरामुखार तांची शक्त उणी पडली. सीझरान थंयच्या ब्रिटनांचेर जैत मेळयलें आनी थोडो काळ तो गॉलाक पर्थून गेलो. इ.स.प. ५४ त ताणें वीस हजार सैन्य, दोन हजार घोडेस्वार आनी आठशीं व्हड्यांच्या बळाचेर पर्थून ब्रिटनाचेर घुरी घाली. कॅसिव्हिलॉनस ह्या ब्रिटनांच्या राजाच्या फुडारपणाखाल एकवटीत जाल्ल्या ब्रिटनांनी तांचेलागीं झूंज मांडलें, पूण रोमन सैन्यांमुखार तांचो नेट पर्थून उणो पडलो. सीझरान ब्रिटनाकडल्यान खंडणी वाशील केली. ताचेफुडलीं सुमार १०० वर्सां रोमनांनी इंग्लंडाचेर घुरी घालीना. इ.स. ४३ वर्सा क्लॉडियस हो रोमाचो राजा आसतना, ताणें ब्रिटन जिखपाखातीर ४० हजार सैन्य प्लॉटियस नांवाच्या सेनापतीवांगडा धाडलें. तेन्ना ब्रिटनांत कॅक्टेकस नांवाचो राजा राज्य करतालो. ताचो पराभव करून ताका बंदी म्हूण रोमाक धाडलो. ह्या जैताक लागून ब्रिटनाचो दक्षिणेवटेनचो चडसो वाठार रोमन साम्राज्यांत आयलो. फुडें सुमार ३५० वर्सां उपरांत रोमनांनी हेर वाठारांचेरूय सत्ता मेळयली. ब्रिटन लोकांनी परतंत्रतायेआड बरींच झुजां दिलीं, पूण ते अपेशी जाले. ब्रिटनचो कारभार चलोवपाखातीर रोमन सम्राट थंय गव्हर्नर नेमताले. सैन्याच्या बळाचेर गव्हर्नरांचो कारभार चलतालो. ॲग्रिकोला (७८-८५) ह्या गव्हर्नरान ब्रिटनांत बऱ्योच सुदारणा केल्यो. उत्तर ब्रिटन, स्कॉटलंड आनी वेल्स ह्या वाठारांनी ताणें नवीं शारां निर्मिलीं, रस्ते तयार केले. शेतवडीच्या मळार सुदारणा करून शिक्षणाची सोय केली. हाकालागून हांगाच्या लोकांक लॅटीन भाशेचें गिन्यान मेळ्ळें. ताचेउपरांतच्या रोमन गव्हर्नरांची राजवट सादारणपणान शांततायेची आशिल्ली. दुसऱ्या शेंकड्याचे सुर्वेक स्कॉटलंडांत रावपी लोक ब्रिटनाचेर एकाफाटल्यान एक घुरयो घालूंक लागले. ह्यो घुरयो थांबोवपाखातीर हॅड्रियन सम्राटान ब्रिटनाक भेट दिली आनी एक व्हड अशी १२५ किमी. लांब, ५ मी. ऊंच आनी २ मी. रुंद वणत बांदून घेतली. ब्रिटनांतल्या रोमन साम्राज्याची ही उत्तरेवटेनची शीम जाली. तिसऱ्या शेंकड्यांत रोमन साम्राज्याची शक्त उणी जावंक लागली. ट्यूटन लोकांनी रोमनांचेर घुरयो घालून तांकां पिडपाक सुरवात केली. सॅक्सन-ट्यूटन लोकांनी ब्रिटनाचेरूच घुरी घाली. त्याचवेळार ट्यूटन लोकांनी रोमाचेर जैत मेळयिल्ल्यान ब्रिटनांतलें रोमन सैन्य थंय गेलें (४१०) आनी ब्रिटनांत परिस्थिती चडूच वायट जाली. हे गजालीचो सॅक्सनांनी बरेतरेन फायदो घेतलो.

*ॲंग्लो सॅक्सन काळः* आंग्ल आनी सॅक्सन लोक हांगा व्हडा संख्येन येवंक लागले. तांचे लागीं ब्रिटन लोकांचीं झुजां सुमार दोनशीं वर्सांमेरेन चलतालीं. ॲंग्लो-सॅक्सन लोकांनी आपल्या संस्थानांची थापणूक केली. तांचेमदीं आनी ब्रिटनांमदीं ल्हवल्हव वेव्हार जावंक लागले. सव्या शेंकड्यांत सेंट ऑगस्टीन इंग्लंडांतल्या केंट प्रांतांत आयलो आनी ताणें हांगाच्या लोकांक किरिस्तांव धर्माची दीक्षा दिली. ह्या काळांत हांगा बरींच ल्हान व्हड राज्यां अस्तित्वांत आयलीं. णवव्या शेंकड्याचे सुर्वेक वेसेक्साचो राजा एजबेर्क्ट (८०२-३९) हाणें सगळ्या राज्यांचेर आपलो शेक गाजयलो. फुडें व्हायकिंग वा डेन ह्या उत्तरेवटेनच्या पंगडांनी इंग्लंडाचेर घुरयो घालूंक सुरवात केली. एजाबेर्क्टाचो नातू आल्फ्रेड (८४९-९०१) हाणें तांकां हरयले. ताणें किरिस्तांव धर्माचीय बरे तरेन राखण करून हांगा बऱ्योच सुदारणा केल्यो. ताच्या वावराक लागून ताका 'ग्रेट' ही पदवी मेळ्ळी. आल्फ्रेडा उपरांत ताचो पूत एडवर्ड (९०१-२४) सत्तेर आयलो. ताणें डेन लोकांचें राज्य जिखून घेतलें. ताच्या वंशजांनी फुडें राज्य चलयलें.

नॉर्मंडीचो ड्यूक, विलियम (१०६६-८७) हाणें १०६६ त हेस्टिंगचे लढायेंत इंग्लंडच्या राजाचेर जैत मेळोवन आपली सत्ता थंय हाडली. ताचो कारभार सरंजामशायेचो आशिल्लो. नॉर्मन लोकांनी हांगाच्या राजाची सत्ता बरेतरेन तिगोवन दवरली. विलियमाउपरांत दुसरो विलियम (१०८७-११००), पयलो हेन्री (११००-३५) हांणी राज्य

चलयलें. पयल्या हेन्रीचो नातू दुसरो हेन्री (११५४-११८९) बरोच बळीश्ट आशिल्लो. ताचे राजवटींत हांगा ताणें न्यायपध्दतींत बरीच सुदारणा केली. ह्याच घराण्यांतले राजा जॉन (११९९-१२१६) आनी तिसरो हेन्री (१२१६-७२) जुलमी आशिल्ले. तांच्या राज्यकारभाराचो वीट येवन सरदारांनीं मॉटफर्ड हाच्या फुडारपणाखाल १२६५ त बंड केलें आनी राजाक बंदखणींत उडोवन सत्ता आपल्या हातांत घेतली. पयलो एडवर्ड ह्या राजकुंवरान मॉटफर्डाक मारून उडोवन सत्ता पर्थून मेळयली (१२७२-१३०७). मॉटफर्डान चालू केल्ल्यो राजकी सुदारणा ताणें फुडें चलयल्यो आनी बरें राज्य करपी राजा अशी नामना जोडली.

तेराव्या आनी चवदाव्या शेंकड्यांत इंग्लंडचे परिस्थितींत बरोच बदल घडलो. वेपारांत वाड जाल्ल्यान एक नवो वर्ग समाजांत मुखार येवंक लागलो. पोरन्या झुजारी वर्गालागीं ह्या नव्या वर्गाचो लागींचो संबंद आयलो आनी तांकां कॉमन्स ह्या नांवान वळखूंक लागले. चवदाव्या शेंकड्यांतल्या 'ब्लॅक डॅथ' नांवाच्या भयांकृत रोगाक लागून ब्रिटनांतल्या अर्द्यापरस चड लोकांक मरण आयलें. इतले मजगतीं इंग्लंडांत सांसदीय लोकशायेचो उदय जालो. पार्लमेंटान राजाकडल्यान बरेच अधिकार मेळयले. राज्याखातीर यॉर्क आनी लँकेस्टर घराण्यांमदीं झूज चलतालें. एका घराण्यान तांबडो जाल्यार दुसऱ्या घराण्यान धवो गुलाब अशी आपापली कुरु थारायली. ह्या झुजाक गुलाबाचें झूज (War of Roses) अशेंय म्हण्टात. ह्या झुजाक लागून राजकी मळार गोंदळ जालो. सरदारांमदीं झगडीं वाडलीं. दोनूय पक्षांच्या लोकांनी एकामेकांचे खून करपाची सर्त लायली. यॉर्क घराण्यांतलो तिसरो रिचर्ड (१४८३-८५) हाणें आपल्या दोन सान पुतणयांचो खून करून सत्ता हातासली. तेन्ना विरोधकांनी खरपणान झूज चालू केलें. लँकेस्टर घराण्याक लागींचो हेन्री ट्यूडर, ड्यूक ऑफ रिचमंड हाणें बंड करून बॉस्वर्थच्या झुजामळार रिचर्डाक मारून उडयलो. अशे तरेन ट्यूडर घराणें बळीश्ट जावन इंग्लंडचे सत्तेर आयलें.

*ट्यूडर काळ:* हेन्रीचें आपले आवयवरवीं लँकेस्टर घराण्यावांगडा नातें आशिल्ल्यान आनी यॉर्क घराण्यांतल्या एलिझाबेथ हिचेलागीं ताचें लग्न जाल्ल्यान ताका दोनूय घराण्यांचें फाटबळ मेळूंक पावलें. गुलाबांच्या झुजाक लागून सरदारांची शक्त उणी जाल्ल्यान हेन्रीच्या पार्लमेंटान ताका चडसो विरोध जालोना. ट्यूडर काळांत राजा आनी ताका बुध्द दिवपी मंडळ (Council) हांच्या हातांत सगळी सत्ता एकठावली. तांणी पार्लमेंटाक पाचारीनासतना धोरणां थारावंक सुरवात केली. अशांततायेक विटून गेल्ल्या लोकांनी ताका विरोध केलो ना. हेन्री उपरांत ताचो पूत आठवो हेन्री (१५०९-४७) सत्तेर आयलो. त्या काळांत धर्मीक सुदारणांचो युरोपांत बरोच नेट आशिल्लो. हेन्री प्रोटेस्टंट पंथाआड पोपावटेन राविल्ल्यान पोपान ताका 'डिफेन्डर ऑफ द फेथ' अशी पदवी दिली; पूण फुडें आपली राणी कॅथरिन हिचेवांगडा काडीमोड घेवपाखातीर पोपाची संमती मेळनाशिल्ल्यान ताणें प्रॉटेस्टंट पंथ आपणायलो आनी तो पंथ आपल्या राज्यांत सगळ्याक पातळायलो. ताच्या उपरांत ताचो पूत सवो एडवर्ड (१५४७-५३) हो थोडोच तेंप राज्य करतालो. ताची भयण मेरी (१५५३-५८) ही ताचेउपरांत राणी जाली. तिचें लग्न स्पेनचो राजा फिलीप हाचेलागीं जालें. स्पेनचें घराणें खर कॅथलिक आशिल्ल्यान तिणें हांगा कॅथलिक पंथाचो प्रसार करपाचे यत्न केले. तिचेकडल्यान जावपी प्रोटेस्टंटांच्या छळांक लागून लोकांची सहानुभूती प्रोटेस्टंटांवटेन उरली.

मेरीची भयण एलिझाबेथ हिचे राजवटींत (१५५८-१६०३) इंग्लंडान बरीच उदरगत केली. तांणी दर्यामार्गांचेर भोंवडी करून हेर देशांकडेन वेपाराक सुरवात केली. सर फ्रांसिस ड्रेक हाणें स्पॅनीश सत्तेवांगडा झूज दिवन अमेरिकेंत ब्रिटीश सत्तेची बुन्याद घाली. १५८८ त तांणी स्पॅनीश आर्माडा ह्या बळीश्ट स्पॅनीश दर्यावयल्या झुजदळाक (आरमार) हरयलें. मेरीन प्रोटेस्टंट धर्माक इंग्लंडचो राजधर्म केलो.

*स्टयूअर्ट काळ:* एलिझाबेथाउपरांत मेरीचो (स्कॉटलंडची राणी) पूत हो पयलो जेम्स (१६०६-२५) म्हूण राजा जालो. तो स्कॉटलंडांतल्या स्टयूअर्ट घराण्यांतलो आशिल्लो. ताणें राजा हो देवाचो अंश आनी ताच्या हातांत सगळी सत्ता आसूंक जाय, ह्या मतान पार्लमेंटाक पाचारीनासतना कर एकठांय करूंक सुरवात केली. हाकालागून ताच्या आनी पार्लमेंटा मजगतीं झगडीं सुरू जालीं. जेम्साच्या मरणाउपरांत ताचो व्हडलो पूत चार्ल्स (१६२५-४९) राजा जालो. १६२९ ते १६४० ह्या ११ वर्सांत ताणें पार्लमेंटाबगर राज्यकारभार चलयलो. ताणें कॅथलिकांक लागीं करून प्रोटेस्टंटांक विरोध केलो. ताचे राजवटींत इंग्लंडांत राजकी मळार गोंदळ जावन यादवी झुजां पेटलीं. ऑलिव्हर क्रॉमवेलच्या फुडारपणाखाल सैन्यान चार्ल्साक सत्तेवयल्यान कुशीक काडून मारून उडयलो.

फुडली इकरा-बारा वर्सां इंग्लंडांत प्रजासत्ताक राज्य पध्दत अस्तित्वांत आशिल्ली; पूण खऱ्या अर्थान सगळी सत्ता क्रॉमवेलच्या हातांत उरली. ताणें स्वताक 'लॉर्ड प्रोटेक्टर' ही पदवी घेवन राज्यकारभारांत बरीच सुदारणा केली. ताच्या काळांत प्यूरिटन पंथाचे लोक उंचेल्या सुवार्तींचेर आशिल्ले. क्रॉमवेलाउपरांत (१६५८) ताचो पूत रिचर्ड क्रॉमवेल सत्तेर आयलो, पूण ताचेकडेन बापायचे गूण नाशिल्ले. ताणें राजीनामो दिवन दुसऱ्या चार्ल्साक सत्तेर हाडलो. दुसऱ्या चार्ल्सान (१६६०-८५) कॅथलिक पंथीयांक पालव दिल्ल्यान, प्यूरिटन इंग्लंड सोडून अमेरिकेंत गेले. १६८५ त ताका मरण येतकच ताचो पूत दुसरो जेम्स राजा जालो. ताणेंय कॅथलिकांक चड सवलती दिल्यो. लोकांनी ताका विरोध केलो. लोकांच्या रागाक भियेवन तो फ्रांसाक पळून गेलो. ताचो पूत सत्तेर आयल्यार इंग्लंडांत कॅथलिकांचें राज्य येतलें, ह्या भयान पार्लमेंटान जेम्साची चली मेरी आनी तिचो घोव ऑरेंजचो (हॉलंड) प्रिन्स विलियम हांकां इंग्लंडाचेर राज्य चलोवपाखातीर आपोवणें धाडलें. ऑरेंज घराणें कट्टर प्रॉटेस्टंट आशिल्लें. मेरी आनी विलियम हांणी संयुक्तपणान राज्यकारभार चलयलो. तांचे राजवटींत बिल ऑफ रायट्स हो मुळाव्या हक्काचो कायदो मुखार आयलो. ताच्या मरणाउपरांत मेरीची धाकली भयण अॅना (१७०२-१४) सत्तेर आयली. तिचे फाटल्यान विलियम, मेरी आनी अॅना हांकां भुरगेंबाळ नाशिल्ल्यान पयल्या जेम्साची चली एलिझाबेथ सत्तेर आयली.

*हॅनोव्हर काळ:* एलिझाबेथाची चली सोफिया हिचें लग्न जर्मनींतल्या हॅनोव्हर घराण्यांतल्या राजावांगडा जाल्लें. तिचो पूत जॉर्ज हो पयलो जॉर्ज (१७१४-२४) ह्या नांवान राज्य चलोवंक लागलो. ताका इंग्लीश भाशा समजनाशिल्ली. ताका लागून राज्यकारभारांत ताचो वांटो सामकोच उणो जालो. ह्या वेळार ताचो पंतप्रधान आनी प्रधानमंडळ सगळो राज्यकारभार चलयताले.

१७१५ त जेम्साच्या दुसऱ्या चल्यान बंड करून राजा जावपाचो यत्न केलो, पूण बंड फसलें. पयल्या जॉर्जाउपरांत ताचो पूत दुसरो जॉर्ज (१७२७-६०) सत्तेर आयलो. ऑस्ट्रियाच्या प्रस्नाक लागून जाल्ल्या फ्रांसाआडचें झूज ताणें बरेतरेन लडयलें. ताचे राजवटींत ब्रिटनान कॅनडा आनी भारत हांगा आपल्यो वसाहती बरेभशेन वाडयल्यो. ताचे उपरांत ताचो नातू तिसरो जॉर्ज राजा जालो (१७६०-१८२०). पयल्या दोन जॉर्जांचे राजवटींत सत्ता व्हिग पक्षाच्या हातांत आसताली. १७७० त टोरी पक्षाक पार्लमेंटांत बळ आयलें, तेन्ना ताणें लॉर्डनॉर्थ ह्या टोरी पक्षाच्या मुखेल्याक मुखेल प्रधान केलो. १७७५ त इंग्लंड आनी अमेरिका हांचेमदीं झूज सुरू जालें. अमेरिका ही तांची वसाहत आसली तरी थंयचो एकूय प्रतिनिधी पार्लमेंटांत नासतालो आनी ताका लागून तांणी कर भरपाक विरोध केल्लो (No Taxation without Representation). निमाणें ४ जुलय १७७६ दिसा अमेरिकन लोकांनी आपली स्वतंत्रताय जाहीर केली. १७८९ त जाल्ल्या फ्रेंच राज्यक्रांतीचे परिणाम हांगाच्या लोकांक जाणवले. इंग्लंड आनी फ्रांस हांचे मजगतीं १७९३ त झूज सुरू जालें. नेपोलियनच्या फुडारपणाखाल तेन्ना फ्रांस बरोच बळीश्ट जाल्लो. निमाणो १८१५ त नेपोलियनाचेर इंग्लंडान पुराय जैत मेळयलें. १८२० त जॉर्ज (तिसरो) हाका पिशें लागिल्ल्यान मरण आयलें. ताचो पूत जॉर्ज

(चवथो) राजा जालो (१८२०-१८३०). ताची राजवट चड काळ उरली ना. ताचेउपरांत सत्तेर आयिल्लो ताचो भाव चवथो विलियम होय १८३० ते १८३७ मेरेन सत्तेर उरलो.

खऱ्या अर्थान हांगा राजकी बदल जाले ते व्हिक्टोरिया (१८३७-१९०१) चे राजवटींत. व्हिग आनी टोरी हीं नांवां फाटीं पडून लिबरल आनी कंझर्व्हेटिव्ह अशीं नांवां त्या पक्षांक मेळ्ळीं. १९०६ त जाल्ल्या वेंचणुकांनी लिबरल पक्ष सत्तेर आयलो. इतले मजगतीं एकुणिसाव्या शेंकड्यांत ब्रिटनान संवसारभर आपल्यो वसणुको पातळायल्ल्यो. १९०१ ते १९१० मेरेन सातवो एडवर्ड राजा जालो. उपरांत पांचवो जॉर्ज (१९१०-३६) सत्तेर आयलो. १९१४ त पयलें म्हाझूज सुरू जालें आनी तें सोंपसर ब्रिटन झुजत रावलो. झुजा उपरांत ब्रिटनची अर्थीक परिस्थिती इबाडली. १९२१ त आयर्लंडाक स्वतंत्रताय मेळची, हे नदरेंतल्यान यत्न सुरू जाले. निमाणें १९३७ त स्वतंत्र आयर्लंडच्या राज्याची घोशणा जाली. १९२४ त लेबर पक्षाचें पयलें सरकार रॅम्से मॅकडॉनल्ड हाच्या फुडारपणाखाल सत्तेर आयलें. दुसऱ्या म्हाझुजाक सुरवात जाल्याउपरांत ब्रिटनान चर्चिलाच्या फुडारपणाखाल जर्मनीचेर हार घालपाच्या यत्नांत म्हत्वाचो वांटो घेतलो. दुसरें म्हाझूज सोंपल्याउपरांत ब्रिटनाची संवसारीक मळार शक्त सामकीच उणी जाली आनी एका फाटल्यान एक अश्यो बऱ्योच ब्रिटीश वसणुको स्वतंत्र जावंक लागल्यो. १९६४ त विल्सनाच्या फुडारपणाखाल हांगा लेबर पक्षाचें सरकार सत्तेर आयलें. १९७० त तांचो कंझर्व्हेटिव्ह पक्षान हीथ हाच्या फुडारपणाखाल पराभव केलो. १९७७ त लिबरल आनी लेबर पक्षांमदीं समजीकाय जाली. पूण १९७९ तली वेंचणूक मार्गरिट थॅचर हिच्या फुडारपणाखाल कंझर्व्हेटिव्ह पक्षान जिखली. १९८३ त आनी १९८७ त पर्थून मार्गारेट थॅचरान वेंचणूक जिखली. १९९० त हांगा राजकी बदल जावन जॉन मेजर पंतप्रधान जालो.

**राज्यवेवस्था:** ह्या देशांत आर्विल्ल्या काळांतली सगळ्यांत पोरनी लोकशाय आसा. संसदीय लोकशायेचे पध्दतींत पंतप्रधानाक विधीमंडळाचे सगळ्यांत उंचेले अधिकार आसतात. संसद दोन घरांची आसा. हावृस ऑफ लॉर्ड्स आनी हावृस ऑफ कॉमन्स. हावृस ऑफ कॉमन्सांत ज्या पक्षाक भोवमत मेळटा, त्या पक्षाक सरकार तयार करपाचो अधिकार आसता. ह्या घराचे वांगडी पांच वर्सांखातीर वेंचून येतात. अठरा वर्सां पुराय जाल्ल्या दर एकल्याक हांगा मत दिवपाचो अधिकार आसा. संविधान बरयल्लें ना. हांगाचे कायदे आनी राज्यकारभाराचे नेम पयलींसावन भासाभास, सामाजिक गरजो, राजकी घडणुको हातूंतल्यान उत्पन्न जाल्यात. हांगा जरी संसदीय लोकशाय आसली तरी लोकांनी राजा आनी राजघराण्याविशींची निश्ठा तशीच दवरल्या. पंतप्रधान हो संसदीय (parliamentary) नात्यान राज्याचो मुखेली आसलो तरी राजा वा राणी हांकां राज्यकारभारांत उंचेली सुवात आसता. वंशपरंपरेप्रमाण राजघराण्यांतलो मनीस राज्याचो संविधानीय (constitutional) मुखेली जाता. राज्याचें वेंचून आयिल्लें मंत्रीमंडळ, राजा वा राणयेक राज्यकारभाराविशीं बुध्द दिता. हावृस ऑफ कॉमन्स आनी हावृस ऑफ लॉर्ड्स ह्या संसदेच्या दोनूय घरांनी कायदो संमत जाल्या उपरांत तो राजा वा राणयेकडेन मान्यतायेखातीर वता. भारतासारकिल्या देशांत राश्ट्रपतीची जी सुवात आसा, ती सुवात राजा वा राणयेक आसा. पूण तांकां राजगादयेर येवपाखातीर वेंचणुकांची गरज पडना. आनुवंशिकतायेप्रमाण राज्यपद राजघराण्यांतल्या मनशाक मेळटा. राज्यकारभाराच्या मळार बरेच व्हड परंपरांचो अभिमान ब्रिटीश लोकांमदीं आसा.

थळावो राज्यकारभार चलयतल्या संस्थांखातीर संसदेन कायदे केल्यात. दर प्रांतांत वेगळें वेगळें खातें राज्यकारभार चलयता. इंग्लंडांत पर्यावरण खातें; वेल्सांत वेल्श ऑफिस, स्कॉटलंडांत स्कॉटीश उदरगत खातें आनी उत्तर आयर्लंडांत भलायकी आनी उदरगत मंत्रालय थळावो राज्यकारभार पळेता. लोकसंख्येचें प्रमाण लक्षांत दवरून म्हानगरां आनी ल्हान शारां हांचेमदीं फरक केला. नगरपालिका शारांच्या प्रशासनाची जापसालदारकी सांबाळटात.

युरोप, आफ्रिका, आशिया ह्या खंडांतल्या बऱ्याच देशांनी इंग्लंडचे राज्यपध्दतीचो आदर्श दोळ्यांमुखार दवरून आपापल्या देशांचें संविधान तयार केलां. लेबर, कंझर्व्हेटिव्ह आनी लिबरल हे हांगाचे मुखेल राजकी पक्ष जावन आसात.

**अर्थीक स्थिती:** व्हड प्रमाणांत उद्येगीकरण जाल्ल्यान शेतवडीचें म्हत्व बरेंच उणें जालां. गंव, बार्ली, बटाट, साखरेचे बीट हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. शेतवडीच्या मळारूय आधुनिकीकरण जाल्ल्यान पिकावळ वाडोवपाक बरेच पालव मेळ्ळा. गोरवां आनी हेर मोनजात पोसप, तांच्यो संकरित जाती तयार करप ह्या धंद्यांकूय म्हत्व आसा. रानांचें प्रमाण ह्या देशांत व्हडलेशें ना.

उत्तरेखटेन तेलाची सांठवण सोडीत जाल्यार हांगा खनिज संपत्तीय उणी आसा. पयलींसावन कोळशाच्या खणींच्या उद्येगांक हांगा म्हत्व आशिल्लें. यॉर्कशर गर, डर्बीशर आनी नॉटिंगहॅमशर हांगा कोळशाची सांठवण चड आसा. लोखण, शिशें, जस्त हे धातू हांगा उण्या प्रमाणांत मेळटात. दर्या देगांचेर नुस्तेमारीचो धंदो बरोच नेटान चलता आनी नुस्त्याची निर्यातूय जाता. संवसाराच्या सगळ्या देशांतले पर्यटक ह्या देशाक भेट दितात. पर्यटनांतल्यान हांगाचे अर्थवेवस्थेक मोलाचो हातभार लागता.

संवसारांत सगळ्यांत पयलीं हांगा उद्येगीकरण जाल्लें. यंत्रांच्या पालवान तयार केल्ल्या मालाची निर्यात करपी संवसारांतल्या सगळ्या देशांमदीं ब्रिटनाचो पांवडो बरोच ऊंच आसा. पयल्या म्हाझुजाचे सुर्वेक ब्रिटन उद्येगीक नदरेन संवसारांत सगळ्यांत फुडें आशिल्लो. अर्थवेवस्थेंत निर्मणी उद्येगाक चड म्हत्व आसा. कपडो निर्मणी, रसायनां, यंत्रनिर्मणी, व्हडीं बांदप, पांयतणां, दिसपट्ट्या गरजेच्यो वस्ती हांचे कारखाने हांगा बऱ्याच प्रमाणांत आसात.

'बँक ऑफ इंग्लंड' ही हांगाची मुखेल बँक. पौंड स्टर्लिंग हें हांगाचें चलनी नाणें.

**येरादारी आनी संचारण:** ब्रिटनांत १९८४ मेरेन ३,७०,५५७ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले, जाल्यार १९८५ मेरेन ४१,६५९ रेल्वेमार्ग आशिल्ले. रेल्वेमार्गांचें राश्ट्रीयकरण जालां. रस्त्यावयल्यान आनी रेल्वेमार्गावेल्या येरादारीच्या मळार ह्या देशान बरीच उदरगत केल्या. हेर युरोपीय फुडारिल्ल्या देशांवांगडा हांगाचे येरादारीचो पांवडो लागता. ह्या देशांत सुमार ४,३०० किमी. लांबायेचे देशांभितरले उदकांतले मार्ग आसात. चडशा न्हंयांतल्यान आनी तांच्या कालव्यांतल्यान उदकांतली येरादारी चलता. हांगा सुमार ३०० बंदरां आसात. लंडन, लिव्हरपूल, सावथम्पटन, हल क्लायडपोर्ट हीं तातूंतलीं कांय मुखेल आसात. आयात निर्यातीच्या वेव्हारांत हांगाच्या बंदरांचो उपेग म्हत्वाचो आसा. ब्रिटीश युरोपीयन एअरवेज, ब्रिटीश ओव्हरसीज एअरवेज कॉर्पोरेशन आनी ब्रिटीश एअरवेज ह्यो संस्था हवाई मार्गावयली येरादारी सांबाळटात. हवाईमार्गांवयल्यान संवसारांतल्या बऱ्याच देशांवांगडा ब्रिटनाचे संबंद येतात. विमानतळांची संख्या हांगा बरीच आसा. हीथ्रो, गॅटविक, प्रॅस्टविक, रिंगवे, ॲल्डरग्रोव्ह, ॲलमंड हे कांय मुखेल विमानतळ जावन आसात. हवाईमार्गांचेर खाजगी संस्थाय येरादारी करतात.

रेडिओ आनी दूरचित्रवाणीच्यो कार्यावळी ब्रिटीश ब्रॉडकास्टींग कॉर्पोरेशन (BBC) हे संस्थेवरवीं चलतात. ते भायर इन्डिपेन्डंट ब्रॉडकास्टींग कॉर्पोरेशन ही संस्थाय ह्या मळार वावर करता. १९८४ मेरेन हांगा ११२ दिसाळ्यांची नोंद जाल्ली. प्रसारमाध्यमांक आपलें मत उक्तावपाचो पुराय हक्क आसा.

**लोक आनी समाजजीण:** सद्याचो इंग्लीश वंश चडसो तीन जमातींचे भरसणेचो वंशज आसा. ह्यो जमाती म्हळ्यार ॲंगल, सॅक्सन आनी ज्यूट ह्यो जर्मन जमाती. हांच्या रगतांत डॅनीश, नॉर्मन, व्हायकिंग, ह्यूगनॉत्स आनी जिप्सी जमातींचीय भरसण आसा.

युरोपाचे मूळ भुंयेसावन दर्याक लागून हो देश कुशीक उरिल्ल्यान रोमन संस्कृताय, किरिस्तांव धर्म आनी युरोपीय प्रबोधन हांगा उसरां पावलें. पयलीं थतरविथर जाल्ले हांगाचे लोक खऱ्या अर्थान ट्यूडर राजवटीच्या काळांत बरेभशेन थिरावले. अठराव्या शेंकड्यांत विज्ञानाचे उदरगतींतल्यान हो देश एका वेगळ्याच पांवड्यार पावलो. १८७१ ते १९३१ मेरेन युरोपांतल्या राजकी आनी धर्मीक घडणुकांक लागून रशियन, पोलिश, जर्मन, हंगेरियन अशे बरेच लोक हांगा आयले. ताचेपयलीं कांय शेंकडे हांगासावन अमेरिकेच्या नव्या खंडांत बऱ्याच लोकांनी आलाशिरो घेतिल्लो. दुसऱ्या म्हाझुजाकाळार नाझींच्या दुश्टपणाक लागून हांगा चडांत चड लोक आलाशिऱ्याक पावले. तेभायर संवसारभर ब्रिटनाच्यो वसाहती आशिल्ल्यान बऱ्याच हेर देशांचे लोकूय ब्रिटनांत पावले. हांगाच्या समाजांत विंगडविंगड लोकांचे पंगड भरसल्ले दिसतात.

हांगाचो मुखेल धर्म म्हळ्यार प्रोटेस्टंट किरिस्तांव. एकुणिसाव्या शेंकड्यामेरेन कॅथलिक आनी ज्यू धर्मांच्या लोकांक कांय प्रमाणांत वायट वागणूक मेळटाली. धर्म मानीनाशिल्ल्या लोकांचेंय प्रमाण हांगा बरेंच आसा. धर्मप्रमाण हांगा ५७.७% अँग्लिकन, १३.०% कॅथलिक, ७.०%, प्रॅस्बिटेरीयन, ४.३ % मॅथडीस्ट, १.४ % बॅप्टीस्ट, धर्म मानीनाशिल्ले ८०.२%, मुसलमान १.३%, ज्यू. ०.५ %, शीख ०.४ % आनी हेर १.०%.

हांगाची शिल्पकला रोमन पध्दतीची. वास्तुकला आनी मूर्तिकला हांच्या मळार ब्रिटनान बरेच फिशाल कलाकार संवसाराक दिल्यात. जेकब एप्स्टायन आनी हेन्री मुर हे आर्विल्ल्या काळांतले म्हान मूर्तिकार जावन आसात. पयलीं इगर्जींच्या आलाशिऱ्याचेर आनी उर्बेचेर वाडिल्ली चित्रकला उपरांत नव्या विचारांचें प्रतिनिधीत्व करूंक लागली. हांगा संवसारांतलीं बऱ्यांतलीं बरीं वस्तुसंग्रहालयां आनी कला दालनां आसात. ब्रिटीश लोकांची कलेची आवड हांगाच्या संग्रहावयल्यान दिसून येता. खेळांमळांचेरुय ब्रिटनान संवसारांत नामना जोडल्या. क्रिकेटच्या खेळाचो जल्म हांगा जालो. हो हांगाचो राश्ट्रीय खेळ. खेळांचें मळ नाशिल्लो गांव हांगा चुकून सांपडटा. फुटबॉल वा सॉकर आनी रबी हेय खेळ बरेच लोकप्रिय आसात.

संगीत आनी नृत्याच्या मळारूय हांगा बरीच उदरगत जाल्या. रॉयल फॅस्टिव्हल हॉल, रॉयल आल्बर्ट हॉल, विग्मोर हॉल हे संगीताखातीर ओंपिल्ले हॉल हांगा आसात. रॉयल ऑपेरा हावस, कव्हेंट गार्डन, सॅडलर्स वेल्स नाटकाघर हे नृत्याखातीर नामनेचे आसात. चित्रपट आनी रंगमाची ह्या मळांचेर ब्रिटनान नांव घेवपासारको वावर केला.

एका तेंपार ब्रिटनान संवसारभर आपली सत्ता पातळायल्ली, ताका लागून सगळ्या वाठारांतले कलाप्रकार, खेळ हांगा पावले.

**शिक्षण:** ब्रिटनांत साक्षरतेचें प्रमाण १००% आसा. ५ ते ६ वर्सांमेरेन शिक्षण सक्तीचें आसा. चडश्यो शिक्षणसंस्था खाजगी आसात. शिक्षणाच्या मळार हांगा बरीच उदरगत जाल्या आनी ताची परंपराय बरीच पोरनी आसा. मध्ययुगांत हांगा इगर्जींवरवीं शिक्षणाचो वावर जातालो. ह्या काळांत हांगा ऑक्सफर्ड आनी केंब्रिज हीं संवसारभर नामना मेळयिल्लीं विश्वविद्यालयां अस्तित्वांत आयलीं. शिक्षणाच्या मळार हांगा विद्यार्थ्यांक पुरायपणान बौध्दिक स्वतंत्रताय आसा. शिक्षणसंस्था विद्यार्थ्यांच्यो गरजो मतींत दवरून आपापले अभ्यासक्रम थारायता. संवसारांतल्या बऱ्याच देशांतले विद्यार्थी शिक्षणाखातीर ह्या देशांत येतात. विंगडविंगड मळांवयलें सगळ्या पांवड्यावयलें शिक्षण दिवपाची वेवस्था हांगा बेसबरी आसा. शिक्षणाच्या मळार ग्रेट ब्रिटन संवसारांतल्या बऱ्याच देशांखातीर आदर्श देश थारला. हांगाची शिक्षणपध्दत बऱ्याच देशांनी आपणायल्या.

**भाशा आनी साहित्य:** ह्या देशाची भाशा इंग्लीश. ती संवसारांतली एक गिरेस्त भाशा. हेर भाशेंतलीं उतरां आपणावपाची हे भाशेक बरीच तांक आसा. संवसारभर पाविल्ल्या इंग्लीश लोकांनी सगळेकडलीं उतरां शिकून तीं आपले भाशेंत मेळयलीं. आयज संवसारभर इंग्लीश भाशा पातळ्ळ्या आनी तिका आंतरराश्ट्रीय भाशा म्हूण मान्यताय आसा. सतराव्या शेंकड्यांत शेक्सपीयरच्या काळांत हे भाशेंत निर्माण जाल्लें साहित्य उदरगतीचे तेंगशेर पाविल्लें. इंग्लीश साहित्यान संवसारभर नामना मेळयल्या.

**म्हत्वाचीं थळां:** लंडन हें राजधानीचें शार संवसारांतल्या सगळ्यांत व्हड आनी फुडारिल्ल्या शारांमदलें एक आसा. हांगा राजवाडे, सरकारी कार्यालयां आनी पळोवपासारक्यो पोरन्यो वास्तू आसात. ऑक्सफर्ड आनी केंब्रिज हीं शारां विश्वविद्यालयांखातीर, हॅरो आनी ईटन हीं शारां विद्यालयांखातीर (पब्लीक स्कुल्स), विंबल्डन शार टेनिस सर्तींखातीर जाल्यार मेरिलिबॉन शार क्रिकेट खेळाखातीर नामनेक पावलां. बर्मिंगहॅम, लीड्स, शेफील्ड, स्टोक, डर्बी, कॉव्हेंट्री, मँचेस्टर, स्वान्सी आनी कार्डिफ, ग्लासगो आनी डंडी हीं म्हत्वाचीं उद्येगीक केंद्रां आसात. स्कॉटलंडांतलें एडिंबरो हें शिक्षणीक आनी संस्कृतीक केंद्र आसा. ग्लासगो व्हडीं बांदपाचें नदरेंतल्यान खूब नामनेचें. देशभर पर्यटकांक ओडून हाडपासारकें सैमीक सोबीतकायेचे वाठार सगळेकडेन आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## ग्लेसर, डॉनल्ड: (जल्म: २१ सप्टेंबर १९२६, क्लीव्हलँड-ओहाइओ).

अमेरिकन भौतिकीविज्ञ. शिकप केस इंस्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजी आनी कॅलिफोर्निया इंस्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजी हांगा जालें. १९५० त, ताणें पीएच्. डी. पदवी मेळयली. सुर्वेक तो मिशिगन विद्यापीठांत भौतिकीचो प्राध्यापक आशिल्लो (१९४९-५९) आनी उपरांत १९५९ सावन कॅलिफोर्निया विद्यापीठांत प्राध्यापक आसा. १९६१ त ताणें डेन्मार्कांत हांगाच्या कोपॅनहेगन विद्यापीठांत सूक्ष्मजीवविज्ञानाविशीं अभ्यास करपाक सुरवात केली आनी उपरांत कॅलिफोर्निया विद्यापीठांत रेणवीय जीवविज्ञानांत भौतिकीच्या पध्दतींचो वापर करपाविशीं संशोधन केलें.

मूलकणांचें (subatomic particles) अस्तित्व वळखुपाखातीर 'बोमाड्यांची कोठी' (Bubble Chamber) ह्या उपकरणाचो ताणें १९५२ त सोद लायलो. ताच्या ह्या म्हत्वाच्या सोदाखातीर १९६० त भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार ताका फाव जालो. ह्या उपकरणावरवीं उच्च ऊर्जा अणुकेंद्रिय विक्रियांविशींची म्हायती मेळपाक आनी नव्या मूलकणांचो सोद लागपाक खूब मदत जाली. ताच्या ह्या सोदाखातीर ताका हेन्री रसेल पुरस्कार (१९५५) बॉईज तस्त्रीप (१९५८) आनी हेर भोवमान फाव जाले. १९६२ त, नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसच्या वांगडी पदाचेर ताची वेंचणूक जाली.

- कों. वि. सं. मं.

## ग्वाल्हेर:

मध्यप्रदेश राज्यांतल्या ग्वाल्हेर जिल्ह्याचें मुखेल शार. आदल्या ग्वाल्हेर संस्थानाची ही राजधानी आसली. हांगा सुमार ३०० फूट उंचायेचो एक दोंगर आसा. ह्या दोंगराचेर एक नामनेचो पूर्विल्लो असो किल्लो आसा. हो किल्लो कोणें बांदलो, तें निश्चितपणान सांगूंक येना. पूण साहित्यांत आनी शिलालेखांत गोपगिरी, गोपाद्री, गोपाचल आदी नांवांनी ह्या किल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. गोपाल उतरावयल्यान ग्वाल हें उतर आयलां आनी ताचेवेल्यानूच ह्या शाराक गवालियर (ग्वाल्हेर) हें नांव मेळ्ळां, अशें म्हण्टात. हो किल्लो वा हें नगर कोणें निर्माण केलें, हाचो जरी उल्लेख नासलो तरी तेविशीं अशी दंतकथा आसा:

ह्या दोंगरा म्हऱ्यांत कुत्तलपूर नांवाचें एक नगर आशिल्लें. थंयचो राजा सुरजसेन हाका कुश्ठरोग जाल्लो. राजा एकदां दोंगराचेर शिकारेक गेल्लो आसतना ताका तान लागली. थंय एक साधू आशिल्लो, ताणें ताका एक तळें दाखयलें. त्या तळ्याचें उदक पितकच राजाचो कुश्ठरोग बरो जालो. राजाक त्या साधूची कितेंयतरी सेवा करची अशें दिसलें. देखून ताणें साधूक ते विशीं विचारलें. तेन्ना साधून ताका तें तळें व्हड करूंक सांगलें. राजान तें तळें व्हड केलेंच, तेभायर थंय एक किल्लो

बांदलो. त्या साधूचें नांव ग्वालिप आसलें, देखून राजान त्या किल्ल्याक 'ग्वालियर' अशें नांव दिलें. साधून त्या तळ्याक सूरजकुंड अशें नांव दिलें आनी सांगलें, ''जो मेरेन हांगाच्या राजाचे वंशज आपल्या नांवाच्या शेवटाक पाल हो शब्द लायतले, तो मेरेन तांची सत्ता हांगा चलतली.'' ताची ही वाचा खरी जाली. ह्या वंशांतल्या ८३ व्या राजान आपल्या नांवाफुडें पाल हो शब्द लायलोना आनी देखून तोच निमाणो राजा थारलो.

**इतिहासः** सव्या शेंकड्यांत हांगा गुप्ताचें राज्य आशिल्लें. हो किल्लो मिहिर कुळाच्या ताब्यांत गेल्लो. त्या काळांत तयार जाल्लें सूर्य देवूळ त्या दोंगराचेर आसा. किल्ल्यांत आशिल्ल्या देवळाचेर इ. स. ८७५ आनी ८७६ वर्सांतले दोन शिलालेख आसात. ताचेवेल्यान कळटा की हो किल्लो प्रतीहार वंशांतल्या मिहिर भोज राजाच्या राज्यांत आशिल्लो. इ. स. ९७७ च्या सुमाराक कछवाहा वंशांतल्या वज्रदामन नांवाच्या राजान हो किल्लो जिखलो आनी थंय आपल्या राज्याची थापणूक केली. आपले राजवटींत ह्या राजान कला, विद्या हांकां खूब प्रोत्साहन दिलें. ग्वाल्हेराक खुबशीं देवळां आसात, तीं ह्याच काळांतलीं. १२३२ त इल्तूमिश हाणें हो किल्लो घेतलो. तेन्नासावन १३९८ मेरेन हो किल्लो मुसलमानांच्या ताब्यांत आशिल्लो. त्याच वर्सा तैमूरलंग दिल्लीचेर चाल करून गेलो आनी ताणें सुलतान महमुदाक हरयलो. हे लडायेवरवीं जाल्ल्या गोंधळाचो फायदो घेवन तोमर वंशांतलो वीरसिंहदेव हाणें ग्वाल्हेरचो किल्लो हातासून आपल्या शेकातळा हाडलो. ताचे उपरांत १४८७-१५१६ मेरेन राजा मानसिंह हो तोमर राजपूत वंशांतलो सगळ्यांत व्हड राजा थारलो. ताचे राजवटींत ताणें राज्याचें बळगें आनी वैभव उंचेल्या पांवड्यार पावयलें. उपरांत हो किल्लो इब्राहीम लोदीच्या आनी मागीर मोगलांचे सत्तेखाला गेलो. १५५९ वर्सा हो किल्लो अकबरान घेतलो. ह्या काळांत किल्ल्याचो उपेग बंदखण म्हूण जालो. फुडें १७५४ त हो किल्लो मराठ्यांनी घेतलो आनी १७१७ त महादजी शिंदे हाच्या ताब्यांत दिलो. महादजी शिंदेन ग्वाल्हेर आपलें मुखेल ठाणें केलें. उपरांत अठराव्या आनी एकुणिसाव्या शेंकड्यांत हो किल्लो आरतून पर्थून ब्रिटिशांच्या आनी शिंद्यांच्या हातांत आसलो. ह्याच काळार झांशीची राणी लक्ष्मीबाई हिका थंय मरण आयलें. १८८६ त ब्रिटीश सरकारान हो किल्लो शिंद्यांक दिलो.

१९ व्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत शिंदे घराण्यांतले जे जे राजा गादयेर आयले, तितल्यांनीय ग्वाल्हेरची खूब उदरगत केली. १९३६ त लोकांक थंयचे राजसत्तेंत अधिकार मेळ्ळो. फुडें हें प्रगतीशील संस्थान आपले खोशयेन भारतीय संघांत विलीन जालें. ह्या किल्ल्याचेर ६ राजवाडे आसात. तातूंतलो मानसिंहाचो प्रासाद सगळ्यांत सुंदर आसा. तेचपरी हांगा ग्वालिया देवूळ, चतुर्भुज देवूळ, गुजरी महल, सासबहुचीं देवळां, माता देवीचें देवूळ, जैन शिल्पां, तेलीका मंदिर, आठ तळयो आनी एक मशीद हीं पळोवपासारकीं स्थळां आसात. ग्वालिया देवूळ म्हळ्यार ग्वालिप साधूंचें यादस्तीक. चतुर्भुज देवळांत विष्णुची चतुर्भुज मूर्त आसा. हें देवूळ पाशाणांत कोरांतिल्लें आसा. सासबहुच्या देवळांत सोबीत शिल्पकलेचें दर्शन घडटा. हें देवूळ कछवाहा राजा महीपालान १०९३ वर्सा बांदलें अशें एका शिलालेखाचेर बरयल्लें मेळटा. हें विष्णुचें देवूळ आसून ताच्या प्रवेशदाराक ब्रह्मा, विष्णु आनी महेश हांच्यो मूर्ती आसात. तेलीका मंदिर हें गंगोला तळ्याचे अस्तंतेक आसा. किल्ल्याचेर आशिल्ल्या वास्तूंत हें सगळ्यांत व्हड देवूळ. हें विष्णुचें देवूळ आसून ताचें शिखर द्राविड शैलीचें आसा आनी हेर देवळांची शिल्पकामां इंडो-आर्यन शैलीचीं आसात. सूर्यकुंडाचे अस्तंतेक एक शिवाचें आनी एक सूर्याचें अशीं दोन देवळां आसात. आतांच्या सूर्य देवळाच्या जाग्यार थंय पोरनें सूर्य देवूळ आशिल्लें. ताचेवेल्यानूच ताका सूर्यकुंड हें नांव पडलें, अशें शिलालेखावयल्यान कळटा.

ग्वाल्हेर शार, आग्र्याचे दक्षिणेक सुमार १०० किमी. चेर आसून मध्य रेल्वेमार्गाविलें हें मुखेल प्रवाशी थळ आसा. ग्वाल्हेरसावन राश्ट्रीय महामार्ग वता. तेचपरी हेर शारांकडेन ग्वाल्हेर विमानमार्गान जोडलां. मूळच्या ग्वाल्हेर शारापसून ६ किमी. अंतराचेर नवें शार आसा. ताका लश्कर कँप अशें म्हण्टात. लश्करापसून सुमार ५ किमी. अंतराचेर आनी मुळच्या ग्वाल्हेर शारापसून सुमार ३ किमी. अंतराचेर ग्वाल्हेरचें रेल्वे स्थानक आसा. ग्वाल्हेर हें एक उद्येगीक केंद्र. हांगा कपडे, मातयेचीं आयदनां, चामड्याच्यो वस्तू, कृत्रिम धागे आनी तांचे कपडे, पिठाच्यो, जवसाच्यो (एक तरेचें धान्य) आनी तेलाच्यो गिरण्यो, बर्फ तशेंच फस्कांचे कारखाने, फातरावेलें कोरीवकाम, हातमाग, कंवची, रस्मी कपडे आदी जायते ल्हान-व्हड उद्येग चलतात. हांगा शिवाजी विद्यापीठ आसा. तेचपरी शिक्षणाची सगळी वेवस्था आसा.

हर्षाच्या साम्राज्याचें हें व्हड संस्कृतीक केंद्र. चंदेल राज्यांतल्या आनी पंदराव्या शेंकड्यांतल्या तोमर राजवटींतलें साहित्य, संगीत, काव्य, शिल्प हांकां बरीच नामना मेळ्ळ्या. ग्वाल्हेरालागींच तानसेनाचें यादस्तीक आसा. तानसेन हो अकबराच्या दरबारांतलो नामनेचो गायक आसलो. ग्वाल्हेरचे किर्तींत ताच्या गायनान बरीच भर घाल्या.

**घः** देवनागरी वर्णमाळेंतलें 'क' वर्गातलें चवथें व्यंजन. कंठ हें हाचें उच्चारणस्थान. 'घ' वर्ण मुखेल पांच अवस्थांतल्यान गेला.



'घ' च्या रुपाचो विकासक्रम

पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनार हांगाच्या इ.स.प. तिसऱ्या शेंकड्यांतल्या लेखांत मेळटा. दुसरी अवस्था इ.स. दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या क्षत्रप राजा रुद्रदामन हाच्या गिरनार हांगाच्या लेखांत, तिसरी इ.स. ८३७ प्रतीहार बाउलच्या जोधपूर हांगाच्या लेखांत, चवथी इ.स अकराव्या शेंकड्यांत परमार राजा उदयादित्य हाच्या उदेपूर हांगाच्या लेखांत आनी पांचवी त्याच शेंकड्यांतल्या उज्जयिनीच्या शिलालेखांत दिश्टी पडटा. दुसरे अवस्थेंतलें 'घ', मोडी 'प' भशेन दिसता. ह्या 'घ' क निमाणे अवस्थेंत पावपाक उजवेवटेन दाव्यान थोडें वाटकुळें घुंवचें पडलें आनी ह्या काळांत ताका कानो फुटत गेलो, अशें अनुमान काडलां. आयचो 'घ' इ.स. १२०८ च्या परमार राजा धारावर्ष हाचे मुस्तींतल्या ओडिया लेखांत स्पश्ट वळखुपाक येता.

कामधेनुतंत्रांत हाचें स्वरुप अशें सांगलां:

'घकारं चन्चलापाङ्गि चनुष्कोणात्मकं सदा ।
पञ्चदेवमयं वर्णमरुणादित्यसन्निभम् ।।

अर्थ- हे चंचलनयने, घकार हो चतुश्कोणात्मक आसून पंचदेवमय आसा. अरुण आनी आदित्य हांचेभशेन हाची कांती आसा.

हाचें ध्यान स्त्रीरुपांत अशें सांगलां:

मालतीपुष्पवर्णाभां षड्भुजां रक्तलोचनाम् ।
शुक्लाम्बरपरीधानां शुक्लमाल्यविभूषिताम् ।
सदा स्मेरमुखीं रम्यां लोचनत्रयराजिताम् ।
एवं ध्यात्वा घकारं तु तन्मन्त्रं दशधा जपेत् ।।

अर्थ- मालतीच्या फुलावरी वर्ण आशिल्ल्या, षड्भुज, रक्तलोचन, धवें लुगट न्हेशिल्ल्या, धव्या फुलांची माळ गळ्यांत घाल्या, सदांच हांसतमुख, सुंदर, तीन दोळ्यांनी तेजीश्ट अशा घकाराचें ध्यान करून ताचो मंत्र धा खेपे जपचो.

- कों. वि. सं. मं.

**घटस्फोटः** घोव आनी बायल हांचेमदीं निर्माण जाल्ले वैवाहिक संबंद

कायदेशीर रितीन मोडप, हाका 'घटस्फोट' अशें म्हण्टात. लग्नाची नोंदणी रद्द करप (nullity of marriage) आनी घटस्फोट (divorce) घेवप हातूंत फरक आसा. घोव-बायलेची फकत विवाह नोंदणी जाल्ली आसत जाल्यार आनी लग्नाचे धर्मीक विधी संपन्न जाल्ले नासत जाल्यार, ह्या मुळाव्या स्वरुपांत लग्नाची नोंदणी रद्द करूं येता. पूण हे संबंद आनीकूय वाडटकच म्हळ्यार लग्नाचे धर्मीक विधी जातकच आनी घोव-बायल एकठांय रावतकच, मागीर तांचे संबंद मोडपाक घटस्फोटाचोच वापर करचो पडटा.

चडशा अस्तंत्या देशांतल्या समाजांनी लग्न म्हळ्यार एक समाजीक कबलात समजताले. शासनाचो ताचेकडेन कांयच संबंद नासतालो. ज्यू लोकांच्या सरकाराचें मात लग्नासावन सगळ्या समाजीक गजालींचेर नियंत्रण आसतालें. पूर्विल्ल्या ग्रीक इतिहासांत घोव, बायलेचें स्त्री-धन परत दिवन बायलेक तिच्या बापायकडेन परत धाडून घटस्फोट घेवंक शकतालो.

अथेनियन कायद्याप्रमाण घोव-बायलां दोगांय जाणां एकामेकांकडल्यान घटस्फोट घेवपाक शकतालीं. पूण तातूंत घोवाक चड मेकळीक आसताली. दोगांय जाणांचे संमतीन घटस्फोट घेवपाची तजवीज पूर्विल्ल्या रोमन लोकांमदीं आसली. पूण हाका लागून घटस्फोटाचें प्रमाण वाडपाक लागलें. देखून, ऑगस्टस सीझर हाणें घटस्फोटाचेर मर्यादा घालपी कायदे संमत केले. हे कायदे 'ज्यूलियन लॉज' ह्या नांवान प्रचलित आसात.

आदल्या काळांत शिकारी आनी गोरवां घेवन भोंवपी लोकांमदीं घटस्फोटाचें वाडटें प्रमाण आसलें. पूण जसो जसो शेताचो वेवसाय पोटाचो मुखेल धंदो जालो, तशें तशें घटस्फोटाचें प्रमाण कमी जायत गेलें. दादल्यांचें नपुंसकत्व, असाध्य रोग, बायलेचो खूब काळ त्याग, खूब वर्सां घरांतल्यान ना जावप वा बायले-भुरग्यांक पळोवप ना अशा अपवादात्मक परिस्थितींनी बायलांनी घटस्फोट घेवपाची तजवीज पूर्विल्ल्या समाजांनी आशिल्ली.

भायल्या देशांनी मनशाचे स्वतंत्र जिणेविशीं आशिल्ल्या मताक लागून घटस्फोटाविशींचे कायदे भारतापरस बेगीन संमत जाले. भारतांत हेविशींचो पयलो कायदो, १८६५ वर्सा Parsi Marriage and Divorce Act ह्या नांवान अस्तित्वांत आयलो. ताच्या उपरांत किरिस्तांव लोकांखातीर १८६९ वर्सा Indian Divorce Act हो कायदो अस्तित्वांत आयलो. Dissolution of Muslim Marriage Act हो कायदो १९३९ वर्सा संमत जालो. सगळ्या राज्यांक आनी सगळ्या पांवड्यावयल्या हिंदी लोकांखातीर आनी जातींक लागू पडपी Special Marriage Act हो कायदो १९५४ वर्सा चालीक लागलो. ह्या कायद्याक लागून धर्म, जात, पंथ ह्या सारक्या गजालींचीं लग्नाचेर आसपी बंधनां वा आडमेळीं ना जालीं. तशेंच लग्न जावपी जोडप्यांखातीर घटस्फोटाची तरतूद ह्या कायद्यान केली.

Hindu Marriage Act (१९५५) ह्या कायद्याच्या तेराव्या कलमांत हिंदू लोकांखातीर घटस्फोटाविशींचे नेम आस्पावतात. व्यभिचारी घोव, धर्मांतर करून हिंदू धर्म सोडप, घटस्फोटाचो अर्ज केला ते तारखेपयलीं तीन वर्सां सुमार मानसिक दुयेंस वा गुप्तरोग वा महारोग वा कसलोय संसर्गरोग आसप, संन्यास घेवप, कमीत कमी ७ वर्सां बेपत्ता जावप, घोवान दुसरें लग्न जावप, घोवाचे अनैसर्गिक वा पशुसंबंद आसप अशा कांय कारणांक लागून घटस्फोट मेळपाक शकतालो.

भारतांतल्या किरिस्तांव आनी पारशी लोकांखातीर आशिल्लो घटस्फोटाचो कायदो हिंदू धर्मीय लोकांखातीर आशिल्ल्या घटस्फोट कायद्यासारकोच आसलो. पूण मुसलमानी कायद्याप्रमाण दादलो 'तलाक' हें उतर तीन खेपे तोंडान म्हणून वा बरोवन दिवन बायलेक केन्नाय सोडपाक शकता. हाचेखातीर कितेंय कारण आसपाक जाय, अशें ताचेर बंधन ना. 'इला', 'झिहार', 'लिअन', 'खुला' वा 'मुबारत' अशे घटस्फोटाचे आनीकूय कांय प्रकार मुसलमानी कायद्यांत आस्पावतात. मुसलमानी कायद्याचें आनीक एक खाशेलेपण म्हळ्यार घटस्फोट मेळोवपाक न्यायालयाच्या हुकुमनाम्याची तांकां गरज लागना. तशेंच घटस्फोट घेवपाचो आपलो अधिकार एक मुसलमान दादलो दुसऱ्या मनशाकूय दिवंक शकता. हो मुसलमानी कायदो एडन, श्रीलंका, केनिया, पाकिस्तान, सिंगापूर, तांझानिया, इराक, इराण आनी भारत ह्या देशांनी लागू पडटा. मुसलमानी कायद्याप्रमाण एके बायलेक घटस्फोट घेवप भामकें कठीण अशें आशिल्लें. पूण भारतांत १९३९ वर्सा 'मुस्लिम घटस्फोट अधिनियम' संमत करून मुसलमान बायलेकूय न्यायालयावरवीं घटस्फोट घेवपाची तजवीज करून दिल्या.

गोंय राज्यांत १९६१ वर्सामेरेन पोर्तुगेजांची राजवट आशिल्ली. अजून लेगीत हांगा लग्न आनी घटस्फोटाविशीं पोर्तुगेज कायदो लागू पडटा. हो घटस्फोटाचो कायदो 'लेइ द दिवॉर्स' (डिक्री नंबर २) हातूंत आस्पावता. ह्या कायद्याची म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार घटस्फोट सामको अपवादात्मक परिस्थितींत घेवं येता.

हालींच्या काळांत घटस्फोटाचें प्रमाण दिसानदीस वाडत आसा. शारांतले जिणेची पध्दत, प्रतिकूल आनी अनुकूल अशे धर्मनेम, घटस्फोटाक उत्तेजन दिवपी कायदे, उद्येगीकरण, भुरगें जावप ना, हीं घटस्फोटाचीं कांय कारणां जावन आसात. कांय समाजशास्त्रज्ञांनी घटस्फोटाचीं मुखेल कारणां दिल्यांत, तीं अशीं: १. आयज समाज शेताच्या धंद्याचेर आदारून उरूंक ना. उद्येगधंद्याचेर चडांत चड भर दिवन समाज चड अस्थिर जाला. २. धर्म आनी लागींच्या सोयऱ्यांचीं लग्नाचेर आसपी बंधनां कमीकमी जायत आसात. ३. आयच्या समाजाची लग्नाविशीं बदलिल्लीं मतां. लग्न म्हळ्यार घोव-बायलेचें, वैयक्तिक सुख मेळोवपाचें साधन अशें मानून वैयक्तिक हक्कांचेर चड भर दितात आनी समाजीक कर्तव्य आनी जापसालदारकी हांची जाणविकाय दवरीनात.

घटस्फोटाक लागून उप्रासपी समस्यांक लागून बायलांक चड त्रास भोगचे पडटात. बायल जोडपी नासत जाल्यार वा अर्थीक परिस्थितीन घट नासल्यार हो प्रस्न आनीकूय गंभीर जाता. कायद्यान बायलांक पोटगी मेळपाची तजवीज केल्या. पूण हाका लागून सगळे प्रस्न सुटनात. दुसरें लग्न जावप अशक्यूच जाल्ले भशेन आशिल्ल्यान घटस्फोट जाल्ले बायलेक एकली-एकसुरी जीण सारप कठीण जाता. घटस्फोट जाल्ले बायलेकडेन पळोवपाची समाजाची नदर बदलता. बायलेक भुरगीं आसत जाल्यार चड समस्या उब्यो जातात. भुरग्यांक जावपी सावत्रपणाच्या त्रासाक लागून तांची वाड बऱ्या वातावरणांत जायना. हाका लागून तांच्या मनाचेर, स्वभावाचेर आनी व्यक्तिमत्वाचेर वायट परिणाम जावपाची शक्यता आसता. घटस्फोटाक लागून मानसिक प्रस्नांवांगडा अर्थीक, लैंगिक आनी समाजीक प्रतिश्ठेचे प्रस्न वाडटात.

घोव-बायलांमदीं वितुश्ट येवचें न्हय आनी दोगांनीय प्रसंगाप्रमाण एकामेकांक सांबाळून घेवन संवसार कसो चलोवचो, हाचेविशीं मार्गदर्शन जावप गरजेचें आसता. अशें मार्गदर्शन करपी संस्था व्हड-व्हड शारांनी कार्यरत आसात. ह्या मार्गदर्शनाक counselling म्हण्टात. ज्या घोव-बायलेमदीं वितुश्ट आयलां, तांचें लग्न फिस्कटनासतना वितुश्ट पयस करून एकचार घडोवन हाडपाखातीर मानसशास्त्राच्या आदारान ह्यो संस्था उपाय सोदून काडटात आनी संबंदीत मनशांक मार्गदर्शन करतात.

घटस्फोट घेवन एकामेकांपसून पयस जाल्ल्या घोव-बायलेचें खास करून बायलेचें पुनर्वसन करपी संस्थाय बऱ्याच सुवातींनी वावर करतात. ह्यो संस्था घटस्फोट मेळिल्ले बायलेक रोजगार, निवारो मेळोवन दिवपाखातीर यत्न करतात, तशेंच पुनर्विवाह घडोवन हाडपाखातीर मदत करतात.

- ॲड. अमोल थळी

**सांस्कृतिक संदर्भ:** इ.स.प. काळांत धर्मशास्त्रान कांय खाशेले परिस्थितींत घटस्फोट वा पुनर्विवाह करपाक परवानगी दिल्ली, अशें

दिसता. त्या काळांत हिंदू समाजाच्या सगळ्या वर्गांनी मदीं मदीं घटस्फोट आनी पुनर्विवाह जाताले. ब्राह्मण बायलेचो घोव प्रवासा साकून परत आयलोना, तर तिणें पांच वर्सांमेरेन ताची वाट पळोवची आनी मागीर तो मेलो अशें मानून दुसरें लग्न करचें, अशें शास्त्र त्या वेळार संमत आशिल्लें. कौटिल्यान ही मुदत कमी करून ती फकत धा म्हयन्यांची, अशें सांगलां. पूण असो पुनर्विवाह करचेपयलीं ते बायलेन धर्माधिकाऱ्यांची परवानगी घेवप गरजेचें आसा, अशें तो म्हण्टा. ताच्या अर्थशास्त्रांत घटस्फोटाविशींची सविस्तर फोडणीशी आयल्या. ताणें ते विशींचे कांय नेमूय सांगल्यात. पूण ते आसूर, गांधर्व आनी पैशाच ह्या पध्दतींच्या लग्नाकूच लागू जातात. उच्च वर्णांच्या लोकांतूय घटस्फोट रुढ आशिल्लो, अशें म्हण्टात.

कौटिल्यान घटस्फोटाचें एक कारण सांगलां, तें अशें:

अमोक्ष्या भुर्तरकामस्य द्विषती भार्या ।
भार्यायाश्च भर्ता । परस्परं द्वेषान्मोक्षः ।
अमोक्षो धर्मविवाहानाम् ।

अर्थ- बायलूच फकत घोवाचो द्वेश करता आसत जाल्यार, ताचे इत्सेआड तिका घोवापसून घटस्फोट मेळचो न्हय. तशेंच बायलेचे इत्सेआड घोवाकूय तो मेळचो न्हय. घोव आनी बायल एकामेकांचो द्वेश करता आसत जाल्यार, तांणी घटस्फोट घेवचो. पूण जाचें लग्न धर्मीक पध्दतीन जालां, तांकां घटस्फोट घेवंक मेळना.

पूर्विल्ल्या काळांत जाल्ल्या घटस्फोटांचीं उदाहरणां वैदिक वाङ्मयांत मेळनात. पूण बौध्द साहित्यांत तशे कांय उल्लेख मेळटात. ताचेवेल्यान अशें दिसता, की उच्च वर्णांत घटस्फोट व्हडलोसो प्रचलित नाशिल्लो. इ.स. सुमार चवथ्या-पांचव्या शतमानांत आनी मागीरच्या काळांतूय घटस्फोटाक विरोध जालो. घोव आपले बायलेकडेन निर्दयपणान वागत आसलो वा तो पिसो जाल्लो आसलो, तरीकूय तिका ताचेपसून घटस्फोट मेळनासलो. मनू, पराशर आदी ऋशींनी कांय खाशेले परिस्थितींत घटस्फोट घेवप योग्य, अशें मत मांडिल्लें. इ.स. १७ व्या शेंकड्यांत बरयल्ल्या 'शूद्रकमलाकर' नांवाच्या ग्रंथांत शूद्रांक घटस्फोटाची परवानगी दिल्या, असो उल्लेख आयला.

- कों. वि. सं. मं.

**घांटः** संगीतांत एक आघाताचें वाद्य आनी धर्मीक नदरेन म्हत्वाचें उपकरण. घांटीचो आकार चड करून उमथ्या पेल्यासारको आसता. भितरल्यान एक लोळी आसता, ती घांटीच्या कांठार आपटतकच तातूंतल्यान आवाज येता.

घांटीची निर्मिती सगळ्यांत पयलीं ब्रॉंझ युगांत आशियांत जाली, अशें म्हण्टात. एक सपाट थाळी घेवन ती लांकडाच्या तुतयान बडोवप, हें घांटीचें मुळावें स्वरुप आशिल्लें. फुडें फुडें वाटकुळ्या आयदनाच्या आकाराच्यो घांटी तयार करूंक लागले. सुरवातीच्यो घांटी ल्हान आसताल्यो. मध्य युगांत घांटी धातूच्या पत्र्यापसून घडोवंक लागले. तांचो आकार बहिर्वक्र आनी उंचाय सुमार १३ ते २१ सेंमी. इतली आसताली. ल्हवल्हव उदरगत जाली आनी णवव्या शेंकड्यांत घांटीचो आकार मोटो जालो. तेराव्या शेंकड्यांत घांटीचो आकार अंतर्वक्र आनी आयचे घांटीभशेन जालो. १४०० सुमाराक आयची सुदारिल्ली घांट तयार जाली.

इ.स.प. धाव्या शेंकड्यांत सॉलोमन राजान आपल्या देवळांत भांगराच्यो घांटी लायिल्ल्यो, असो एक उल्लेख मेळटा. इ.स. पयल्या शेंकड्यांत ऑगस्टस राजान जुपीटराच्या देवळासामखार व्हडली घांट लायिल्ली, अशें इतिहासांत मेळटा. बॅबिलोनलागसार मेळिल्ली घांट ३,००० वर्सांआदली जावन आसा. अस्तंत युरोप, चीन, जपान, ब्रह्मदेश, भारत, ईजिप्त ह्या देशांनी घांटीचो उपेग वेगवेगळ्या स्वरुपांत करताले.

अस्तंत युरोप, चीन, जपान, ब्रह्मदेश, भारत, ईजिप्त ह्या देशांनी घांटीचो उपेग वेगवेगळ्या स्वरुपांत करताले.

पेकिंगांत (बिजींग) एका मठांत सुमार ५३ टन वजनाची घांट आसा. ताचेर गौतम बुध्दाची उपदेश-वचनां कोरांतिल्लीं दिसतात. लंडनच्या सभाघराच्या मनोऱ्यांतली 'बिगबेन' घांट इतिहासांत नामनेक पावल्या. अमेरिकेंतली न्यूयॉर्कची 'रिव्हरसाइड चर्च' हातूंतली घांट नांवाजल्ली आसा. ५ टन वजनाची ही घांट १९३० वर्सा बांदिल्ली. सगळ्यांत व्हडली घांट मॉस्कोच्या क्रेमलिन राजवाड्यांत आसा (वजनः १९३ टन, उंचाय ६ मी., व्यासः ७ मी., परीघ २० मी.). ते घांटीचें नांव 'झार कोलकोल' म्हळ्यार 'घांटीची सम्राज्ञी'. १७३७ वर्सा ही घांट वाजयतना फुटली आनी तिचो सुमार ११ टन वजनाचो कुडको तुटलो. ही घांट पळोवपाक एक ल्हानशें प्रार्थनाघर कशें दिसता. मॉस्को शारांत १८१९ वर्सा बांदिल्ली ११० टन वजनाची आनीक एक घांट आसा. ब्रह्मदेशांत भिंगूनची घांट सुमार ९१,५२६ किग्रॅ. वजनाची आसा. जर्मनींतल्या कोलोन कॅथीड्रलांतली सेंट पीटरची घांट सगळ्यांत नादघन आसून २५ टन वजनाची आसा. भारतांतल्यो कांय घांटी खूब व्हड आकाराच्यो आसात. देखीकः नासिकची नारो शंकराची घांट. बौध्द धर्माचे लोक स्तूपघंटा पवित्र मानतात.

तांबें आनी जस्त ३:१ वा ४:१ ह्या प्रमाणांत भरसून घांट तयार करतात. घांटींतल्यान फाव तो गोड नाद येवपाखातीर रुंदाय, उंचाय, दाटाय, व्यास हांचें योग्य अशें प्रमाण थारायतात. घांटींतल्यान दोन तरेचे नाद येतातः १. स्थायी स्वर (Keynote) २. गुंजन स्वर (Hum note)

भारतीय घांट काशाची वा पितूळची आसता. हिंदू संस्कृतायेंत घांट वाजोवप शुभ अशें मानतात. बौध्द आनी जैन संप्रदायांतले अर्चनापध्दतींत घांट खूब गरजेची वस्त जावन आसा. घांटीचे कांय प्रकार अशेः १. वज्रघंटा- हे घांटीर वज्राची आकृती आसता आनी ती भौतिक आनी आध्यात्मिक विश्वाचे एकतेचें प्रतीक अशें मानतात. २. गरुड घंटा- हे घांटीर गरुडाची आकृती आसता. श्रीविष्णूक ही घांट खूब आवडटा, अशें म्हण्टात. ही घांट सोरोप, उजो आनी वीज हांचेपसून अभय दिता, अशें मानतात. घांट हें कितल्याशाच देवांचें आयुध जावन आसा. घांटीच्या नादान देव-देवता प्रसन्न जातात आनी असूर पळून वतात, असो एक समज आसा.

देवळाचे गर्भकुडींत वा दारांत भितर सरतनाफुडेंच घांट हुमकळायिल्ली आसता. देवळांत येवपी दरेक भक्त घांट वाजोवन देवाक आपूण आयलों, म्हूण सुचोवणी दिता. देवाची पूजा करतना आरत दाखयतना घांट वाजयतात.

किरिस्तांवांच्या कपेलांनी, इगर्जींनी घांट आसता. प्रार्थना, जल्म, मरण, झुजांतलें जैत-हार, भायलें आक्रमण, उजो, हुंवार वा हेर कसल्याय संकश्टावेळार सुचोवणी दिवपावेळार कपेलांत घांट वाजयतात. फकत इस्लाम धर्मांत मात घांट वापरीनात.

गायो, म्हशी, घोडे, उंटां, हत्ती आदी पाळीव जनावरांच्या गळ्यांत घांट बांदपाची पध्दत आसा. हाका लागून तांची राखण जाता, असो समज आसा. तेभायर गळ्यांतल्या घांटींच्या किणकिणाटावेल्यान अटंग्या रानांत शेणिल्ल्या गोरवांचो मागूस काडप शक्य जाता.

आतांच्या काळांत इलेक्ट्रिक आनी इलेक्ट्रॉनिक घांटी आयल्यात. ऑफीसांनी, घरांनी, अग्निशामक दलां, रेल्वेस्थानकां, शाळा-कॉलेजां आनी कारखान्यांनी घांटी वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**घाडीः** आसो काडून, भूतां, पितरां, देवचार, खेत्री, आंलवातीण हांची नडीची वा हेर बाधा निवळावपी आनी तिचो बंदोबस्त करपी मनशाक 'घाडी' म्हण्टात.

घाडी ह्या उतराचे व्युत्पत्तीविशीं निश्चितपणान सांगूक येना. फाटली घडणी पळोवन ताचेर उपाय करपी म्हूण ताका 'घाडी' हें उतर पडलां आसूंये, अशें म्हण्टात.

घाडयाक विंगडविंगड नांवांनी वळखतात. घाडयाक कांय लोक 'पंचाक्षरी' म्हण्टात. घाडयाक 'देवर्षि' अशेंय म्हण्टात. गोंयचे उत्तरेक घाडयाक 'बंटी' म्हण्टात. घाडपण करपी बायलमनीस देवी आसल्यार

तिका 'बंटीण' म्हण्टात.

घाडपण करपी घाडयाक सादारणपणान शेंडयेच्यो लांब जटा आसतात. तो आंगांत भार येतकच 'हूं हूं' करून खुबता.

नेपाळांत असोच जटो आशिल्लो मनीस घाडयाचें काम करता. घाडपण करता आसतना तो बसना, उबोच रावता. ताचेर भार येतकच ताच्या हातांत तांदूळ दितात. ते तांदूळ तो हातारूच फिरयता आनी चिमटेन थोडे-थोडे जमनीर दवरून भुतांखेतांची नडझड सांगता. ह्या मनशाक थंय 'धामी' अशें म्हण्टात.

घाडपण सगळेच कडेन कुलपरंपरांगत आसना. मांत्रिकाक जसो उपदेश दिवपी मांत्रिक गुरु आसता, तसो घाडयाक आसना. खंयच्याय तरी देवाची भाक मेळिल्लो मनीस हें काम करता. भाकेची दैवतां देव, देंवचार, ग्रामदेवता वा कुलदेवता अशीं आसूंक शकतात.

सद्याच्या घाडयाक शेंडी वा जटा नासता. तेचपरी तांचे थारायिल्ले नेमूय आसनात. घाडी जितलो निर्व्यसनी आनी आचरणान पवित्र आसत, तितलो ताच्या घाडपणाचो बरो गूण मेळटा.

घाडयाचें आशे धुंवडावपाचें शास्त्रूय वेगवेगळें आसता. पूण त्या शास्त्राविशींचो गूट घाडी फोडीनात. आंगांत आयिल्ली भाशेची देवता जी कितें प्रेरणा दिता, ताचेर आपलें सांगणें आदारून आसता अशें घाडी सांगता.

संकश्टाच्या वेळार घाडयाक लोक आपल्या घरांत आपयतात. घाडी जमनीर बसता आनी आपले फुडले म्हुणयेर आशे दवरून ग्रामदेवता, कुळदेवता आनी भाकेचे देवतेक उलो मारता. उलो मारतां मारतां ताचे कुडींत भार येता. तो खुदूंक लागता. खुदता खुदतांच तो नडी-झडीविशीं सांगता आनी ताचेर धर्मीक उपाय सांगता. मुखेल संकश्टावांगडाच हेर संकश्टां म्हळ्यार भलायकी, शिकप, कोर्ट कचेरी, धंदो वेवसाय हातूंतल्या आडमेळ्यांचें निवारण करपाविशींय लोक ताका विचारतात आनी तो उपाय सुचयता.

- वासुदेव वझे

**घाणयारी:** (मराठी-घाणेरी, टणटणी; गुजराती- घाणी दालिया, इंद्रधनु; कन्नड- हेसिके; संस्कृत- टणतकारी; इंग्लीश- लँटाना; लॅटीन- लँटाना कॅमरा; कूळ- व्हर्बिनेसी).

हें कांटयारें झोंप मूळचें अमेरिकेंतल्या उश्ण प्रदेशांतलें आसून १८२४ वर्सा तें श्रीलंकेंत पावलें. भारतांत हें झोंप सुर्वेक सोबायेखातीर हाडिल्लें, पूण सद्या तें अस्तंत महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी गोंय ह्या राज्यांत जायतेकडेन आनी उश्ण कटिबंधांत दिश्टी पडटा.

हें झोंप कशायकशें आनी रोखडें वाडटा. तेचपरी हें झोंप ना करप शक्य जायना. फुलां येवचे पयलीं ताळयो कातरून उडयल्यार वाड खुंटता. खांदयो चवकोनी, खडबडीत आसून तांचेर कांटे आसतात. पानां सादीं, एकामेकां सामखार आनी खरवती भशेन खरखरीत आसतात. फुलांचो घोंस ताटलेभशेन आसता. फुलां ल्हान, हळडुवीं, नारिंगी आनी धव्या रंगाचीं आसतात. संवर्त (calyx) ल्हान, नळये आकाराचो, पातळ आनी केंसाळ आसता. पुष्पमुकूट नळयेभशेन, ४ ते ५ खंड आशिल्लो आनी पातळिल्लो आसता. केसरदलां ४ आसतात. फळांत बियो आसतात आनी ह्या फळाचे दोन एकबिजी भाग जातात. कृत्रिम कलमां तयार करून हेर रंगांच्या नव्या फुलांचे प्रकार सोडून काडल्यात. पोरसाची राखण करूंक वा सोबितकाय हाडूंक वंयेखातीर हें झोंप रोयतात. हातूंत जांबळ्या फुलांची एक रानवटी जात आसा (लँटाना इंडिका). हेंवूय झोंप पोरसांनी लायतात.

घाणयारेचो काडो संधिवात (आर मारप), हिंवताप (पयरो जोर) आदी दुयेंसांचेर दितात. हें झोंप जंतूंचो नाश करपी, जिवाक तरतरी हाडपी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**घाना:** अस्तंत आफ्रिकेंतलें एक प्रजासत्ताक राश्ट्र. क्षेत्रफळः २,३८,५३९ चौ. किमी. लोकसंख्याः १,३१,४४,००० (१९८६). गिनीच्या आखातांतलो हो एक देश. अक्षवृत्तीय विस्तार ४° ४५' उत्तर ते ११° १०' उत्तर रेखावृत्तीय विस्तार ३° १५' अस्तंत ते १° १२' उदेंत. ताचे उदेंतेवटेन टोगो प्रजासत्ताक, उत्तरेक अपर व्होल्टा, अस्तंतेक आयव्हरी कोस्ट आनी दक्षिणेक अ‍ॅटलांटिक म्हासागरांतले गिनीचे आखात आसा. ह्या देशाक ५३७ किमी. लांबायेची दर्यादिग लाबल्या. अ‍ॅक्रा ही ह्या देशाची राजधानी जावन आसा.

**भूंयवर्णनः** हांगाचो चडसो वाठार म्हळ्यार व्होल्टा न्हंयचे सपाट, सकयल अशें देगण. आग्नेयेवटेन अ‍ॅक्राचे उत्तरेसावन टोगोचे शिमेमेरेन अक्वापीम-टोगो दोंगुल्ल्यांची सरासरी ४५० मी. उंचायेची वळ आसा. तातूंतल्यो माउंट जेबोबो ८७६ मी. आनी मावंट अफाज्जातो ८८९ मी. उंचायेच्यो दोंगुल्ल्यो घानांत सगळ्यांत ऊंच आसात. ईशान्य वाठारांत गाबांगा पठारं आसात. घानाची मुखेल न्हंय धवी होल्टा ही उत्तरेखटेनच्यान अपर व्होल्टांतल्यान घानांत येता. तिका तांबडी व्होल्टा आनी देशाच्या मदल्यान अस्तंत शिमेवयल्यान व्हांवत आयिल्ली काळी व्होलटा मेळटा. थंयसावन दक्षिणेक अमेडिका (आकूसे) मेरेन लेक व्होल्टा हें ८,४८२ चौ. किमी. क्षेत्रफळाचें आनी सुमार ४०० किमी. लांबायचें तळें आसा. क्वाहू पठारासावन दर्यामेरेन प्रा (२५७ किमी.), आंग्कोब्रा (२०९ किमी). आनी टानो (३८६ किमी.) ह्यो न्हंयो व्हांवतात. हेर न्हंयो ल्हान आसात आनी त्यो दर्यामेरेन पावनात.

**हवामानः** घानातलें हवामान सादारणपणान उश्ण आसा. उत्तरेखटेन तें चड खर आनी सुकें आसता. इशान्येवटेनच्यान सहारावयल्यान येवपी उश्ण, सुकें वारें धुल्ल हाडटा आनी नैर्ऋत्येवटेनच्यान येवपी ओलसाणीचें वारें शीतळ आसता. उत्तर वाठारांनी नेटाचीं वादळां जातात. नैर्ऋत्येवटेनच्यान येवपी वारें पावस हाडटात. ईशान्येवटेनचे हवेचे लोट सुके आसतात. वर्सुकी सरासरी तापमान २६° ते २९° से. आसता. सादारणपणान पावसाळ्याच्या पयलीं फेब्रुवारी, मार्चांत हवेंत उश्णताय वाडटा आनी जानेवारी वा ऑगस्टांत ती उणी जाता.

क्वाहू पठाराचे उत्तरेवटेनच्या वाठारांत एप्रिल ते ऑक्टोबर हे पावसाळ्याचे दीस आसतात आनी ऑगस्ट, सप्टेंबर ह्या म्हयन्यांनी सगळ्यांत चड पावस पडटा. नोव्हेंबर ते मार्च मेरेनचो काळ उश्ण आनी सुको आसता. दक्षिणेवटेनच्या वाठारांनी पावसाळो दोनदां येता आनी मे, जून आनी ऑक्टोबर हे चड पावसाचे म्हयने आसतात. डिसेंबर ते फेब्रुवारी आनी पर्थून ऑगस्ट हे सुके आसतात. दर्यादिगांचेर अस्तंतेवटेन २१५ सेंमी. ते उदेंतेवटेन ११२ सेंमी. पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजातः** दक्षिणेवटेन विषुववृत्तीय रानां जाल्यार उत्तरेखटेन सॅव्हाना तणांचे वाठार आसात. हांगाचीं मुळचीं रानां शेतवडीच्या वापराखातीर कांय प्रमाणांत कापल्यांत. बऱ्याच रानांनी कोकोचे मळे आसात. रानांनी आफ्रिकन मॉहॉगनी, युटाइल, वाया, सावर हीं झाडां उंचमेरेन वाडिल्लीं सांपडटात. तांचेर विंगडविंगड तरांच्यो वाली आनी बेनल्ली दिसतात. चिखलाच्या वाठारांनी रफिया तण आनी कोंडे आसात. रानां आनी तणांचो वाठार हांचे शिमेचेर आशिल्लीं ताडाचीं झाडां ह्या देशाचें खाशेलेंपण समजतात.

दाट रानांनी ल्हान हत्ती, पाणघोडे, मानगीं हांचेवांगडा उण्या रानांच्या वाठारांनी आनी तणांच्या वाठारांनी रेडे, मेरवां, तरांतरांचीं माकडां, तरस, बिबटे वाग हेभायर म्हायंडोळ, पारो, मांबा असले सोरोप बऱ्याच प्रमाणांत दिसून येतात. किर, किरकिरे, पाखे, गिदां, बकीं, चिमणी हीं सुकणीं हांगा आसात. तरांतरांची कीडमूंयो हांगा सांपडटा. जळारां आनी त्से त्से नांवाचे मूस भरपूर आसात. जळारांक लागून व्हड प्रमाणांत मलेरिया जाता, जाल्यार त्से त्से मुसांक लागून जनावरां मरतात आनी मनशांक न्हीदनाश व्याधी जाता.

**इतिहासः** सुमार सोळाव्या शेंकड्यामेरेन सहाराचे दक्षिणेवटेनची सुदानी राज्यां दक्षिणेवटेन राज्यविस्तार करपाचो यत्न करतालीं. ह्या यत्नांक लागून तांकां भांगर, फळां, गुलाम ह्या गजालींचो उत्तर




आफ्रिकेंत वेपार करूंक मेळटालो. सद्याचो घानाचो प्रदेश तांच्या राज्यांत आस्पाव जावपाइतलो लागीं नाशिल्लो, पूण ह्या सुदानी राज्यांच्या घुरयांचो परिणाम हांगा दिसून आयिल्लो. गोल्ड कोस्टच्या लागसारच्या वाठारांनी वेपार आनी राजकी प्रस्नांखातीर उत्तरेवटेनच्यान तेराव्या शेंकड्यासावन हांगा लोक येवंक लागिल्ले. चवथ्या ते तेराव्या शेंकड्यामेरेन पोरन्या घाना आनी उपरांत पोरन्या माली साम्राज्यामेरेन वेपारी मार्ग तयार जाल्ले. बोनो, बांड , गोंजा हीं म्हत्वाचीं राज्यां घानाच्या रानांच्या वाठारामेरेन आपली शीम वाडोवंक पावलीं. घानाच्या रानांनी आनी दर्यादिगांचेर अशांटी आनी फांटी जमातीचे लोक रावताले. पंदराव्या शेंकड्यांत ईशान्येवटेनच्यान आयिल्ल्या लोकांनी दागोंबा आनी मांप्रुसी ह्या गांवांची थापणूक केली. त्याच वेळार गा, आडांग्मो आनी ईवी लोक आग्नेयेवटेनच्या वाठारांनी पावले. घानाक पयलीं गोल्ड कोस्ट अशें म्हण्टाले. थंयच्या दर्यादिगांचेर भांगर व्हड प्रमाणांत मेळटालें. घानाच्या लोकांच्या मूळ थळाविशीं वाद आसा. तांणी स्वातंत्र्याउपरांत १९५७ त आपल्या देशाक घाना हें नांव दवरलें. तांच्या मतान तांचे पूर्वज पोरन्या घाना साम्राज्याचे नागरिक आशिल्ले. ह्या पोरन्या साम्राज्याचो आनी सद्याच्या घानाचो संबंद आशिल्लो काय ना, हाचेर विस्वास दवरपासारको पुरावो आजून सांपडूक ना. ह्या देशाचो अधिकृत इतिहास १४७१ सावन मेळटा. ताचेपयलींचो इतिहास व्हडलोसो समजून येना. १४७१ त सगळ्यांत पयलीं भांगर, हस्तिदंत आनी मसाल्याच्या वेपाराखातीर पोर्तुगेजांनी हांगा पावल दवरलें. तांणी १४८२ त घानाचे दर्यादेगेर एल्मीना नांवाचो किल्लो बांदलो. पोर्तुगेजांफाटल्यान फ्रेंच, डच, स्वीडीश आनी ब्रिटीश अशे बरेच युरोपीय लोक हांगा वेपाराखातीर आयले आनी तांणीय कांय वाठार आपल्या हातांत घेवन थंय आपापले किल्ले बांदले. तांचो मूळ उद्देश कपडो, धातुच्यो वस्तू, मणी, सोरो, शस्त्रां ह्या गजालींचे बदले भांगर आनी हस्तिदंतांचो वेपार करप होच आशिल्लो, पूण उपरांत चड फायदेशीर असो गुलामांचो वेपार तांणी सुरू केलो. हांगासावन गुलाम व्हरून आपल्या वसाहतींतले शेतवडीच्या कामाखातीर ते वापरताले. फुडें पुराय सत्ता ब्रिटिशांकडेन आयली आनी तांणी गुलामाच्या वेपाराचेर बंदी घाली.

एकुणिसाव्या शेंकड्यासावन वेपाराक खरें कायदेशीर मोडण मेळ्ळें. ब्रिटिशांनी हेर यूरोपीयांक हांगासावन धांवडावन घालून स्वताच्या हातांत वेपाराची सूत्रां दवरलीं. १६५९ ते १७३० मेरेनच्या आक्वामू साम्राज्याच्या नाशाउपरांत बोनो आनी बांडा राज्यांचेर शेक गाजोवन आनी गोंजा आनी दागोंबा राज्यांकडल्यान खंडणी घेवन अशांटी लोक बरेच बळिश्ट जाल्ले. तांचेलागीं ब्रिटिशांक झूज दिवचें पडलें. अशांटी लोक यूरोपीयांक गुलाम धरून दिताले, ताका लागून हेर जमातीवांगडाय तांचीं बरींच झूजां जातालीं. ब्रिटिशांनी ही चाल बंद केल्या उपरांत तांचे आनी ब्रिटिशांचे झूज पेटलें. १८०६ ते १९०० मेरेन अशांटी लोकांवांगडा ब्रिटिशांची सात झूजां जालीं आनी निमाणें अशांटी लोकांचेर ब्रिटिशांनी पुराय जैत मेळयलें. पयलीं दर्यादिगेचेर रावपी फांटी लोकांवांगडा ब्रिटिशांचे बरे संबंद आशिल्ले. पूण १८७४ त तांणी दर्यादिगांवेल्या वाठारांकय आपल्यो वसणुको केल्यो. कांय प्रमाणांत शिक्षणाचो प्रसार जाल्या कारणान फांटी राज्यांतल्या लोकांक ब्रिटिशांच्या वसाहतवादाची सुलूस लागली आनी ह्या वसाहतवादाच्या दुश्परिणामाचो अदमास आयलो. हेवटेन अशांटी पर्थून बळिश्ट जातात तें पळोवन ब्रिटिशांनी शास्त्रांच्या नेटार तांचेर पुराय शेक गाजयलो.

१८८६ सावन दर्यादिगेवेलो सगळो वाठार ब्रिटिशांच्या हातांत आयलो आनी तांणी ताका 'गोल्ड कोस्ट कॉलनी' अशें नांव दवरलें. फुडें १८९७, सावन उत्तरेवटेनचो वाठारय गोल्ड कोस्ट कॉलनीक जोडलो. १९२२ त जर्मन वसाहतीचो टोगोलँड हो वाठार लिग ऑफ नॅशन्सान ब्रिटिशांकडेन दिलो. संयुक्त राश्ट्रांनी तो दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांतय तसोच दवरलो,

ताका लागून टोगोलँड गोल्ड कोस्टचोच एक वांटो जावन गेलो.

विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक कोकोचे पिकावळीक लागून हांगा उदरगत जावंक पावली. १९२५ मेरेन राज्यपाल आनी ताका पालव दिवपी विधीमंडळ हांगाचो राज्यकारभार चलयतालें. राज्यपाल कांय आफ्रिकी प्रतिनिधींची विधीमंडळाचेर नेमणूक करतालो.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत घानात राजकी जागृताय नेटान जावंक लागली आनी हेर आफ्रिकी देशाभशेन तांणीय स्वतंत्रतायेची मागणी केली. सुर्वेक १९४६ त तांकां थळावी स्वायत्तता मेळ्ळी. फुडें स्वतंत्रतायेचे मागणेक चड नेट आयलो. १९४९ त ब्रिटिशांनी आफ्रिकी लोकांची एक समिती नेमली. हे समितीच्या अहवालाप्रमाण १९५१ त वेंचणुको जाल्यो. स्वतंत्रतायेखातीर झुजपी एन्‌क्रुमाह हो हांगाचो पंतप्रधान जालो. आफ्रिकन प्रतिनिधींक चडांत चड मेकळीक मेळ्ळी आनी राज्यकारभाराची जापसालदारकी तांचेकडेन दिली. १९५४ त गोल्ड कोस्टाक सगळ्या मळार स्वायत्तता दिवची असो थाराव लोकसभेंत मांडलो आनी ते प्रमाण १९५६ त भौशिक वेंचणुको जाल्यो, तेन्ना आफ्रिकन प्रतिनिधींक वेंचणुकांनी जैत मेळ्ळें जाल्यार तांकां पुराय स्वतंत्रताय दिवपाचें ब्रिटिशांनी उतर दिलें. निमाणें ६ मार्च १९५७ दिसा गोल्ड कोस्टाक स्वतंत्रताय मेळ्ळी आनी ताचें नांव घाना अशें बदल्लें. क्वामे एन्‌क्रुमाह पर्यून हांगाचो पंतप्रधान जालो. १९६० त ह्या देशान प्रजासत्ताक संविधान आपणायलें आनी एन्‌क्रुमाह हांगाचो अध्यक्ष जालो.

आफ्रिकेंतल्या हेर राश्ट्रांक स्वतंत्रताय मेळोवन दिवन तांचो एकचार घडोवचो हो उद्देश दवरून एन्‌क्रुमाहान माली आनी गिनी हांचे लागीं एकी केल्ली. १९६० उपरांत कन्व्हेंशन पीपल्स पार्टी आनी ताचो फुडारी एन्‌क्रुमाह हांच्या हातांत सत्ता एकवटिल्ल्या कारणान बरेच गैरवेव्हार जावंक लागले. देशाची अर्थीक स्थितीय इबाडून एन्‌क्रुमाह लोकांमदीं अप्रिय जालो. १९६२, १९६३ आनी १९६४ त ताचो खून करपाचे यत्न जाले. देशांतली शांतताय काबार जाली. निमाणो जेन्ना एन्‌क्रुमाह १९६६ त चिनाचे भेटेक गेल्लो, तेन्ना लश्करान बंड करून सत्ता स्वताच्या हातांत घेतली. लश्करांचेर नियंत्रण आशिल्ल्या नॅशनल लिबरेशन काउंसिलान ल्हवल्हव नागरी प्रशासन हाडपाचें उतर दिलें. १९६९ त हांगा वेंचणुको जावन पुरोगामी पक्षाच्या कोफी बुसियो हाच्या फुडारपणाखाल नवें सरकार अस्तित्वांत आयलें. पूण देशाची परिस्थिती सुदारपांत ताका अपेस आयलें. १९७२ त पर्यून उठाव जावन इग्नेशीयस आचियापोंग हाच्या फुडारपणाखाल लशकरान सत्ता आपल्या हातांत घेतली. १९७७ त आचियापोंगान १९७९ उपरांत देशांत नागरी प्रशासन हाडपाची घोशणा केली, पूण १९७८ त फ्रेडरीक आकुफ्फो हाणें रगतविरयत क्रांती करून आचियापोंगाची सत्ता सोंपयली. १९७९ त लश्करी प्रतिक्रांती जावन जेरी रॉलींग्स ह्या लश्करी अधिकाऱ्यान सत्ता स्वताच्या हातांत घेतली. ताणें संविधान बदल्लें आनी वेंचणुको घेतल्यो. १९७९ त हांगा डॉ. हिल्ला लिमान हाच्या फुडारपणाखाल नागरी सरकार सत्तेर आयलें, पूण रॉलींग्सान ताच्या सरकाराक बडतर्फ करून १९८१ त पर्यून आपल्या हातांत सत्ता घेतली. सद्यामेरेन तोच हांगाचो सत्ताधीश जावन आसा.

**राज्यवेवस्था:** ह्या देशाचें संविधान दर नव्या लश्करी सत्ताधीशा वांगडा बदलत आसता. सत्ता एकाच पक्षाच्या आनी एकाच मनशाच्या हातांत आसता. १९७९ तल्या संविधानान सत्तेचें बरेंभशेन वांटपण करपाचे यत्न चलयले पूण ताचे यत्न फळादीक जाले नात.

थळावो राज्यकारभार णव प्रांतांतल्यान जाता. इस्टर्न, वेस्टर्न, अशांटी, नॉर्दर्न, व्होल्टा, सेंट्रल, अपर, ब्राँग-अहाफे आनी ग्रेटर ॲक्रा हे ते ९ शासकीय वाठार आसात. दरेक प्रांताचेर लश्करी अधिकारी प्रशासनाची जापसालदारकी सांबाळटा.

**अर्थीक स्थिती:** घाना हो शेतवडीचेर आदारिल्लो देश. हांगाचें मुखेल पीक म्हळ्यार कोको. कोको उत्पादनाच्या मळार घाना बरोच फुडारला. तेभायर नाल्ल, काफी, कोला, काजू हांचेय हांगा बरेंच उत्पादन जाता. मको, भात, कॅसावा, केळीं, मसमीं भिकणां, गिनीकॉर्न, कापूस, केनाफ, तंबाकू, अनसां, मिरयां, सूंठ आनी फळांचेंय पीक हांगा बरेंच जाता. रानांच्या लांकडाचोय अर्थीक स्थितीचे उदरगतीखातीर उपेग जाता. गोरखां पोसपाचो उद्येग चडसो उत्तर वाठारांनी आनी ॲक्राच्या मळांच्या वाठारांनी चलता. नुस्तें मारपाच्या धंद्याक बरोच नेट आसा पूण हांगा मेळपी नुस्तें सबंद देशाची गरज भागोवंक शकना.

भांगर, हिरे, मँगनीज, बॉक्साइट हीं हांगाचीं मुखेल खनिजां आसात. तेभायर हालीं कांय वाठारांनी सैमीक तेल आनी वायूचो सोद लागला. यंत्रां, येरादारीचीं साधनां, रसायणां ह्या सारक्या गजालींची ह्या देशाक आयात करची पडटा. चडशे आयात वेव्हार नायजेरिया, ब्रिटन, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, अस्तंत जर्मनी आनी जपान हांचेकडेन जाता. कोको, हिरे हांची निर्यात अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, स्वित्झर्लंड, जपान, नेदरलँडस, ब्रिटन, अस्तंत जर्मनी, रशिया ह्या देशांनी जाता.

सेदी हे हांगाचें अधिकृत चलन आनी बँक ऑफ घाना ही हांगाची मुखेल बँक आसा.

**येरादारी आनी संचारण:** १९८५ मेरेन हांगा २८,३०० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले; जाल्यार १९८४ मेरेन ९५३ किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आशिल्ले. उदकांतली येरादारी लेक व्होल्टा ह्या तळयाक लागून बरीच म्हत्वाची थारल्या. ह्या देशाक सैमीक बंदरां नात. दोन मुखेल बंदरां- टेमा आनी टाकोराडी हीं कृत्रिम आसात. घाना एअरलायन्स ही हांगाची राश्ट्रीय विमानसंस्था. ही विमानकंपनी देशाभितर आनी हेर देशांकडेन हवाई मार्गावयल्यान जावपी येरादारीची जापसालदारकी सांबाळटा. ॲक्रा, कूमासी, टाकोराडी आनी टामाली हांगा मुखेल विमानतळ आसात. तेभायर हेर ल्हानसान बरेच विमानतळ हांगा आसात.

हांगासावन ४ दिसाळीं उजवाडाक येतात. हीं चारुय इंग्लीश भाशेंतल्यान येतात. तांतलीं दोन सरकाराचे मालकेचीं आसात. हे भायर हेर खबरापत्रांय हांगा आसात, तीं इंग्लीश आनी थळाव्या भाशांतल्यान उजवाडाक येतात.

**लोक आनी समाजजीण:** वंशिक आनी भाशिक नदरेंतल्यान १९८३ त हांगा ४४.१ % लोक आकान, १५.९% मोस्सी-डागोंबा; १३.०% इव्ह, ८.३% आंडांग्मे; ३.५ % गुर्मा; १.६ योरुबा आनी हेर १३.६ % आशिल्ले. तेचप्रमाण सुमार ६२.६% किरिस्तांव, तातूंतले २७.९ % प्रोटेस्टंट जाल्यार १८.७% रोमन कॅथलिक आनी १६.० % आफ्रिकन खाशेलपणाचे आशिल्ले. हेर धर्मांमदीं २१.४% पारंपारिक धर्मश्रध्दा मानपी, १५.७% मुसलमान आनी ०.३ % हेर धर्मांचे लोक हांगा आशिल्ले.

ह्या देशांतल्या ५६ भाशांमदल्यो ९ मुखेल राश्ट्रीय भाशा आसात. पयलींच्या काळासावन घानांत निग्रोयड लोकांचो राबितो आशिल्लो. अशांटी आनी मध्य घानांत आकान पंगडाचे ट्वी लोक रावतात. फांटी लोक दर्यादिगांवेल्या वाठारांनी सांपडटात. नैऋत्येवटेन एम झिमा, आहंता, ईव्हाल्यू हे लोक आसात. ॲक्रा मळांच्या वाठारांनी गा आनी व्होल्टाच्या उदेंतेवटेनच्या वाठारांनी ईवी लोक रावतात. आकान पंगड बाराव्या आनी पंदराव्या शेंकड्यांत, गा सोळाव्या शेंकड्यांत आनी ईवी सतराव्या शेंकड्यांत हांगा पावले अशें तज्ञांचें मत आसा. उत्तरेवटेनचे चडशे लोक व्होल्टायक लोकांच्या मोस्सी-डागोंबा पंगडाचे वा गोंजा पंगडाचे आसात.

युरोपीयांच्या सहवासाक आनी संपर्काक लागून तांच्यो कांय चालीरिती घानाच्या लोकांनी आपणायल्यो तरी तांच्यो पारंपारिक चालीरिती आजून हांगा तांणी तिगोवन दवरल्यात. बायलांचो भेस चडसो पारंपारिक पध्दतीचोच आसा. दादले यूरोपीय भेस करतात तरीपूण खासा उत्सव वा हेर सुवाळ्यांक ते आपलो पारंपारिक भेस व्हडा उमेदीन वापरतात. शारांनी आधुनिकीकरणाच्या परिणामान शिमीटाचीं घरां, रुंद रस्ते हे सारक्यो गजाली बांदल्यात पूण गांवगिऱ्या वाठारांनी

चडशे लोक तणाच्या खोंपटांनी वा मातयेच्या ल्हान वाटकुळ्या खोंपटांनी रावतात.

हांगाची संस्कृताय थंयच्या पारंपारिक नृत्य आनी संगीतांतल्यान दिसून येता. हे पारंपारिक कलाप्रकार तांणी बरेतरेन सांबाळून दवरल्यात. सॉकर आनी बॉक्सींग हे खेळांप्रकार लोकांमदीं आवडीचे आसात. तेभायर फुटबॉल, घोड्यांच्यो सर्ती, टॅनिस हेय खेळ हांगा उमेदीन खेळटात.

**शिक्षणः** घानाचें राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण ३०.२% आसा. ६ वर्सांसावन १६ वर्सांमेरेनचे शिक्षण सरकारान फुकट, सक्तीचें आनी एकसारकें केलां. सप्टेंबर ते ऑगस्ट मेरेन शिक्षणीक वर्स आसता. शिक्षणाचें माध्यम इंग्लीश आसा. उत्तरेकटेन शिक्षणाचें प्रमाण दक्षिणेपरस उणें आसा. सरकारी संस्थांवांगडा खाजगी शिक्षणसंस्थांय शिक्षणाच्या मळार वावर करतात. उंचेल्या पांवड्याचें शिक्षण फुकट आसा. हें शिक्षण दिवपाखातीर हांगा तीन विश्वविद्यालयां वावर करतात. घानांतले बरेच विद्यार्थी उंचेल्या पांवड्यावयलें आनी विंगडविंगड मळांवयलें शिक्षण घेवपाखातीर अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, कॅनडा, अस्तंत जर्मनी, ग्रेट ब्रिटन ह्या सारक्या देशांनी आसात.

**भाशा आनी साहित्यः** घानाची शासकीय भास इंग्लीश आसा. उत्तर घानांतले लोक सुदानी भासांच्या गुर पंगडाच्यो भास उलयतात, जाल्यार हेर क्वा पंगडाच्यो भास उलयतात. उत्तरेकटेन डागोंबा बोली चडशा लोकांक समजता. दक्षिणेवटेनचे फांटी, व्हिब ह्यो आकान भाशा उलयतात. आग्नेय वाठारांत गा आंडाग्मी आनी ईवी भास उलयतात. शाळांतल्यान इंग्लीशी वांगडा फ्रेंच भाशेचोय वापर जाता.

**म्हत्वाचीं थळां:** अॅक्रा हे राजधानीचें शार, टेमा आनी टाकोराडी बंदरां, कूमासी, केप कोस्ट हीं थळां उद्देगांचे नदरेंतल्यान म्हत्वाचीं आसात; जाल्यार सैमीक सोबीतकायेक लागून ओब्वासी, कोफो, रीडूआ आनी बोल्गटांग्गा हीं थळां म्हत्वाचीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## घामोळें: (पळेयात कात-२):

## घुमटः

गोंयचें एक थळावें वाद्य. घुमट हें नांव ह्या वाद्याच्या आकारावेल्यान पडलें आसूंये, अशें दिसता. घुमपी माठ म्हळ्यार घुमट. उदक दवरपाच्या मातयेच्या आयदनाक 'माठ' म्हणपाची चाल आसा. ताचो आकार वाटकुळो आशिल्ल्यान ताका 'गोलघुमट' हें नांव पडलां आसूंये, अशें दिसता.



वाद्याची रचणूक पळेल्यार तें आदिवासी जमातीन घडयलां, अशें दिसता. उपरांतच्या वादकांनी ह्या वाद्याची उदरगत करून ताका शास्त्रीय बसका दिली, अशें जाणकार मानतात.

भरतमुनीच्या नाट्यशास्त्रांत ह्या वाद्याचो उल्लेख ना. रत्नाकर, पारिजात हातुंतूय ह्या वाद्याचो उल्लेख मेळना. कांय पूर्विल्ल्या ग्रंथांनी ह्या आकाराच्या वाद्यांचे उल्लेख मेळटात. दक्षिण भारतांत हे तरेचें वाद्य आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळना.

गोंयांतलो घुमटवादनाचो काळ निश्चितपणान सांगपाक येना. पूर्विल्ल्या काळांतल्या देवळाच्या हिसबापटयांनी सुंवारीवादनाखातीर खर्च केल्ल्याच्यो नोंदी मेळटात. ह्या सुंवारीवादनांत घुमट आस्पावतालें. व्हडल्या शिगम्याक नाटकांकार्यावळी करतना घुमटाक खास म्हत्व दितालें. देवळाच्या मोडी हिसबापटयेचो आदार घेतल्यार घुमटाच्या वादनाचो काळ १६ व्या शतमानापरस फाटीं वता.

घुमट हें मातयेचें वाद्य आसून तें कुमाराकडल्यान घडोवन घेतात. ह्या वाद्याचें दावें तोंड हातांच्या चपक्यान दामून दवरपाक आनी सैल सोडपाक सोपें पडटलें, इतलें ल्हान आसता. उजवें तोंड दाव्या परस वेंतभर मोटें आसता. ताचेर गाराचें चामडें रेखडायिल्लें आसता. दोनूय तोंडांमदलो जागो वाटकुळो, फुगिल्लो आसता.

घुमटाचेर गाराचें चामडें चडोवपाची पध्दत अशीः गाराचें चामडें रातभर ओलें करून दवरतात. दुसऱ्या दिसा तें घुमटाचे देगेक केळ्याच्या दिखान दसयतात आनी काथ्याचे दोरयेन बांदतात; मागीर सावळेंत सुकयतात. तें सुकतकच घुमट वाद्य तयार जाता.

गाराचें चामडें हेर खंयच्याच वाद्यांखातीर वापरनात. हें घुमट वाद्याचें खाशेलपण जावन आसा. भतग्राम (दिवचल) म्हालाच्या देवस्थानांत तांब्या-पितुळचीं घुमटां घडोवन देवळाच्या म्हालवजांत आस्पाविल्लीं दिसतात.

घुमट वाजयतना दावो हात ल्हान तोंडाचेर दवरून, उजव्या हातान व्हडल्या तोंडावेलें चामडें वाजयतना, दावो हात घुमट वाजोवपाक व्हड कुशळतायेन दाव्या तोंडाकडेन वयर-सकल करचो पडटा. चामडें एकेच वटेन आसल्यार लेगीत वादन पुराय करूंक दोनूय हातांची गरज लागता.

घुमटाचें वादन एकेरी केन्नाच आसना. ताचे बोल पूरक आनी लय निदर्शक 'समेळ' नांवाच्या लोखणाच्या वाद्यान पुराय जातात. वांगडा कासाळें हें घनवाद्यूय आसता. समेळ, कासाळें वाजोवपी वादक वेगळे आसतात. घुमटवादनांत घुमटां कितलींय आसल्यार लेगीत समेळ एकूच आसता.

घुमटवाद्य हें मूळ लोकवाद्य आसलें. जेन्ना ताचो शास्त्रीय वाद्यांनी आस्पाव जालो, तेन्ना गोंयकार जाणकारांनी घुमटाची शास्त्ररूपी बोलभाशा, वैचित्र्य नदरेमुखार दवरून घडयिल्ल्याचें दिसून येता. नृत्यभाशेचीं बोलाक्षरां आनी पखवाज-तबला भाशेचीं बोलाक्षरां मेळून घुमटाची बोलभाशा तयार जाता. 'धी धी थै धीईच्य धीईच्य थै' ही शब्दरचना तातूंत दिश्टी पडटा. 'धी धी' हे बोल तबल्यावेले आसून 'थै' हे बोल नृत्याचे आसात.

तबलाशास्त्रीय वादनांतले ठेका, तोडा, मुखडा, पर्ण हे घुमट वादनांत येनात. फकत तुकडा, तीया इतलेच येतात. तुकडा नांवाचो बोल बरेच वेळ परत परत वाजोवन उपरांत ल्हान तीया घेतात. अमकोच ताल अशें सांगिनासतना अमक्याच मात्रांचो बोल अशें सांगतात.

घुमटावांगडा नक्कारे घुम, तारे, आराब हीं ज्रड वाद्यां आनी कांसाळयावांगडा तास, जगांट हीं घनवाद्यां वाजयतना लेगीत घुमटाचें म्हत्व लक्षांत येता. अशा वाद्यवादनावेळार, वादन सातमात्रा ताल, चवदामात्रा ताल हे शैलींतलें दिसता. पूण तें खरें स मात्रांचें आसता. घुमट गानवादनाचीं नांवां एक ताळी पद, दोन ताळी पद आनी खाणपद 'चंद्रावळ' अशीं आसात. चंद्रावळ गान आनी वादन हें नांव त्या तालाचें काय गीतप्रकाराचें हो संशोधनाचो विशय आसा. फाल्गुन म्हयन्यांत गावपाच्या गान प्रकाराक 'फाग' म्हण्टात. आरतीवांगडा वाजयतात तें वादन दीपचंदीचो एक प्रकार आसा. पूण ताचो उल्लेख मात 'वादन' असो करतात. समेर येवपा वेळार आठ मात्रा दुगुणीत वाजोवन समेर येतात, अशें दिसून येता. घुमट गानवादनांतली गीताची लय खूब अस्ताईची, खर अस्ताईची आसता. गावपांत येवपी गीताचीं उतरां जुळोवप कठीण आसता. देखीकः 'यादवाच्या राया' ह्या उतरांतलें 'या' आनी 'द' ह्या उतरांतलें अंतर धा सेकंद घेतात. वांगडा आशिल्लें समेळाचें वादन हें लयीचे चौपटींत धृत आसून तें धा सेकंद दाखयता

आशिल्ल्यान वेवस्थीत जुळटा.

घुमटगान वादनाचे खूब प्रकार आसात. पुराय गोंयांत घुमट गानवादनाचे दोनचार प्रकार आयकुपाक येतात. सद्या जायते प्रकार ना जाल्यात. घुमटगान वादन करपी खांपे कलाकारूय आयज नात.

**गोंयचो संदर्भ:** गोंयच्या हिंदू समाजाभितर, भुरगें जल्मतकच सव्या दिसा सटीपूजन सुवाळो करतात. त्या सुवाळ्याक हें वाद्य वाजयतात. आजय कांयकडेन भुरगें घरांत जल्मल्यार हें वाद्य वाजयतात. चोडणकर आडनांवाचे लोक हें वाद्य वाजयनात.

गोंयांत फाल्गुन म्हयन्यांत जावपी व्हडल्या शिगम्याचे परबेंत ह्या वाद्याचें वादन जाता. घुमट, समेळ, कासाळें आनी एकाद्रो नगारो हो घुमट वाद्याचो साज आसता. ह्या वादनाक 'सुंवारीवादन' म्हण्टात. पेडणेच्या वाठारांत समेळाच्या बदला मृदंग घेतात. सुवारीवादनांत घुमटाक खास म्हत्व आसता. शिगम्याच्या पयल्या दिसाक 'हळदोणे' म्हण्टात. त्या दिसा घुमटवादनावांगडा सुरवातीचें गीत 'हळदोणे केशराचे पाणी हो ।।' अशें आसून तें आठ मात्रांनी घुमटावांगडा गायतात. उपरांत चंद्रावळ आनी हेर प्रकारांचें गायन आसता.

गोंयांत भाद्रपद म्हयन्यांत गणेशचवथीक गणपतीची आरती घुमटावांगडा करपाची चाल आसा. शेतकामती तेचपरी उंचेल्या वर्गांतल्या लोकांमदीं ही चाल आदल्या काळासावन आसली आनी आयजूय आसा.

गोंयचो किरिस्तांव समाज मांडो, देखणी ह्या गायनवादन प्रकारांत घुमटाचो उपेग करता. म्हादळें नांवाचें मातयेचें मृदंग, जाची अंगरचणूक घुमटावरी आसता अशें एक वाद्य किरिस्तांव वाजयतात. ह्या वाद्याचीं दोनूय तोंडां गाराचे चामडेन मडयल्लीं आसतात. पूण वादन मात घुमटाचे पध्दतीन चलता. वादनाचे प्रकार चार ते पांच आसतात. वाद्य वाजयतना 'धी धी थै, धी धी थै, धी धी थै' अशें वाजोवन एक ल्हान तीया घेतात. अस्ताईक लय नासता. मध्यम लयीचें वादन करतना 'धीग्नाकता', 'धीग्नाक' अशें परत परत वाजोवन मद्दींच एक ल्हान तीया घेतात.

भारतीय वाद्यांनी घुमट वाद्यासारकें ऊंच पांवड्याचो खर्ज निर्मुपी दुसरें वाद्य ना. लय-तालाचीं विंगडपणां घुमट वादनांइतलीं दुसऱ्या खंयच्याच वाद्यवादनांत आसनात.

- मलबाराव सरदेसाय

## घुर्ये, गोविंद सदाशिव: (जल्म: १२ डिसेंबर १८९३, मालवण).

आंतरराश्ट्रीय कीर्तीचो भारतीय समाजशास्त्रज्ञ, मानवशास्त्रज्ञ आनी भारतविद्या पंडीत (Indologist). शिकप मालवण, मुंबय जुनागड हांगा. १९१८ त, संस्कृत विशय घेवन तो मुंबय विद्यापीठाचो एम्. ए. जालो. हे परीक्षेंत ताणें कुलपतीचें भांगरापदक मेळयलें. कांय काळ मुंबयच्या एल्फिन्स्टन महाविद्यालयांत ताणें अध्यापन केलें. १९१९ त, सर पॅट्रिक गेडेस हाच्या मुखेलपणाखाल मुंबय विद्यापीठांत समाजशास्त्र विभाग सुरू जाल्लो. ताचेकडल्यान प्रेरणा घेवन घुर्ये समाजशास्त्राकडे वळ्ळो. मुंबय विद्यापीठाची शिष्यवृत्ती घेवन तो इंग्लंडाक गेलो. थंय ताणें केंब्रिज विद्यापीठाची डॉक्टरेट मेळयली (१९२३). १९२३ त तो मुंबय परत आयलो आनी मुंबय विद्यापीठांत समाजशास्त्र विभागांत प्राध्यापक आनी विभागाचो मुखेली म्हूण काम पळोवपाक लागलो. १९५९ त सेवानिवृत्त जायमेरेन ताणें हें काम पळेलें. निवृत्तीउपरांत मुंबय विद्यापीठान ताची 'प्रोफेसर एमेरिट्स' ह्या पदाचेर नियुक्ती केली.

डॉ. घुर्ये हाच्या संशोधनपर बरोवपांत इतिहास, मानवशास्त्र, पुरातत्वशास्त्र, वास्तुशास्त्र, राज्यशास्त्र, साहित्य आनी कला ह्या शास्त्रांचो समाजशास्त्रांकडेन मेळ घाल्लो दिसून येता. भारतीय जातिवेवस्था, वंश आनी वर्ग, अनुसूचित जमाती, संस्कृताय, नागरीकरण, गांवगिऱ्या जिणेंतले बदल, कुटुंब आनी नातेवेवस्था, भारतीय साधुसंत, जनसांख्यिकीय समस्या आनी कुटुंबनियोजन, लग्नसंबंद, भारतांतले समाजीक तणाव अशे विंगडविंगड विशय ताच्या ग्रंथांनी आस्पावतात. आफ्रिकन निग्रोंचे वंशसंबंद, अमेरिकन बायलांची लैंगीक जीण हेसारके परकींय समाजशास्त्राविशींच्या विशयांचेर ताणें बरयलां. रजपूत वास्तुशिल्प आनी भरतनाट्यम् नाचांतलो भेस असले विशय लेगीत ताच्या संशोधनांत आस्पावतात. शेक्सपियरच्या साहित्यांतली विवेकबुध्द हाचोय सोद ताणें घेतलो. मोलादीक संशोधन, आदारासयत म्हायती, वस्तुनिश्ठ नदर, असामान्य विद्वत्ता ह्या गुणांक लागून ताचें शास्त्रीय बरोवप विचारप्रवर्तक जालां.

ताचे वट्ट २३ ग्रंथ आनी कितलेशेच लेख उजवाडाक आयल्यात. ताणें पुण्या लागसार आशिल्ल्या लोणीकंद ह्या खेड्याचो अभ्यास करून आपले विचार 'आफ्टर ए सेंच्युरी अँड ए क्वार्टर' (१९५४) ह्या ग्रंथांत मांडले. 'कास्ट अँड रेस इन इंडिया' (१९३२) ह्या ताच्या पयल्याच ग्रंथांत समाजमनात खोलायेन रुतिल्ल्या जातींची आनी तांचो नायनाट करपाच्या उपायांची विस्कटावणी केल्या.

'दि शेड्युल्ड ट्राइब्ज' ह्या ग्रंथांत ताणें आदिवासींचे जिणेची विस्तारान विस्कटावणी केल्या. विंगडविंगड भारतीय दैवतांवरवीं भारतीय समाजाचें एकसारकेपण कशें सादून आयलां, हे ताच्या 'गॉड्स ॲण्ड मॅन' ह्या ग्रंथांत दिसून येता. भारतीय एकचाराक चीर हाडपी संस्कृतीक, धर्मीक आनी भाशीक तणाव आनी ताचेवयले उपाय हो 'सोशल टेन्शन्स इन इंडिया' (१९६८) ह्या ग्रंथाचो मूळ विशय आसा. 'व्हिदर इंडिया' (१९७४) आनी 'इंडिया रीक्रिएट्स डेमॉक्रसी' (१९७७) हे ताचे ग्रंथ म्हळ्यार आर्विल्ल्या भारताचो अद्ययावत इतिहासूच आसात. समाजशास्त्र आनी लोकशाय हांच्या सखोल अधिश्ठानाचेर हो इतिहास आदारीत आशिल्ल्यान ताका खाशेलें म्हत्व प्राप्त जालां. भारतीय फुडाऱ्यांनी तणावाकडेन लक्ष दिनाशिल्ल्यान भारतीय लोकशायेक कशेतरेन धोको तयार जाला, हें ताणें 'व्हिदर इंडिया' ह्या ग्रंथांत उक्तायलां.

डॉ. घुर्ये हाच्या मतान धर्माची जाणविकाय न्यायबुध्दी, विचार आनी उच्चार स्वातंत्र्य आनी सहिष्णुता हे संस्कृतायेचे पांच मूलाधार आसात. धर्माविशींचे जाणविकायेचेर ताणें 'रिलीजियस कॉंशसनेस' (१९६५) हो ग्रंथ बरयलो. तातूंत इ.स.प. ३००० वर्सांपसूनचो मेसोपोटेमिया, ईजिप्त आनी भारत ह्या देशांतल्या धर्माविशींचे जाणविकायेचो इतिहास आसा. धर्मकल्पना आनी संस्कृतायेलागीं मंदिरशिल्पांचो आशिल्लो संबंद तातूंत स्पश्ट केला. ताचे हेर म्हत्वाचे ग्रंथ अशे- 'अॅबॉरिजिन्स सो कॉल्ड अँड देअर फ्यूचर' (१९४३), 'इंडियन कॉस्च्यूम' (१९५१), 'इंडियन साधूज' (१९५३), 'फॅमिली अँड किन इन इंडो-युरोपियन कल्चर' (१९५५).

ताणें १९५१ त 'इंडियन सोशिऑलॉजिकल सोसायटी' हे संस्थेची थापणूक केली. हेभायर ताणें जायत्या राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय स्वरुपाच्यो संस्था आनी समित्यो हातूंत वेगवेगळ्या पदांचेर कार्य केलां. ताच्या मार्गदर्शनाखाल एम्.ए. आनी पीएच्.डी. खातीर कितल्याशाच अभ्यासकांनी आपले प्रबंध यशस्वीपणान सादर केले. भारतांतल्या विद्यापीठीय पांवड्याचेर ताणें समाजशास्त्र ह्या विशयाक अभ्यास आनी संशोधन विशय म्हूण म्हत्वाची सुवात मेळोवन दिली.

प्रसिध्दीपसून पयस रावप, हें डॉ. घुर्ये हाच्या स्वभावाचें एक खाशेलपण आशिल्लें. १९७१ त फ्रांसांत संवसारीक चर्चासत्रांत वांटो घेवपाक ताका आपोवणें आयलें. हो ताच्या वावराचो भोवमान आशिल्लो. पूण त्या काळांत पाकिस्तानचे सत्ताधारी उदेंत बंगालच्या लोकांचेर पाशवी अत्याचार करताले आनी संयुक्त राश्ट्रसंघ तें तटस्थपणान पळेतालो. डॉ. घुर्येक ही परिस्थिती पळोवन वायट दिसलें आनी देखून ताणें ते चर्चेंत वांटो घेवपाचें न्हयकारलें. भारत सरकारान ताका भोवमानान दिवपाक केल्ली 'पद्मभूषण' ही पदवीय ताणें न्हयकारली.

संशोधनाच्या मळार वावर करतल्याक अभिमानाक पात्र असो भोवमान ताका मेळ्ळो. 'इंटरनॅशनल एन्सायक्लोपीडिया ऑफ सोशल

सायन्सेस' ह्या कोशग्रंथांत फाटल्या ११० वर्सांतल्या संवसारांतल्या २५८ समाजशास्त्रज्ञांची वळख दिल्या, तातूंत डॉ. घुर्ये हाचो आस्पाव आसा. भारतांतल्या समाजशास्त्रीय अभ्यासाचो आद्य प्रवर्तक म्हूण ताची नामना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**घेटो:** युरोपांत, शाराच्या ज्या वाठारांत ज्यू लोक वेगळे रावताले ताका घेटो (Ghetto) अशें म्हण्टाले. आतां लेगीत खाशेले अल्पसंख्य जमातीक जेन्ना शाराच्या एका वाठारांत वेगळे रावपाची सक्ती करतात, तेन्ना त्या वाठाराक कांय देशांनी 'घेटो' अशें म्हण्टात. दक्षिण आफ्रिकेंत अशे रितीन काळ्या आनी आशियाई लोकांक गोऱ्या लोकांपसून वेगळ्या अशा वसणुकांनी रावपाची सक्ती केल्या. देखून, त्या भागांक 'घेटो' अशें म्हण्टात.

'घेटो' हो शब्द मूळ इटालियन भाशेंतलो. व्हेनिसांतल्या 'ज्यू' लोकांची वसणूक एका ल्हान जुंव्यार आशिल्ली. थंयच तिख्याचे कारखाने आशिल्ले. ह्या जुंव्याचें नांव 'काम्पो घेट्टोनुआव्हो' अशें आशिल्लें. हाचेवयल्यानूच 'घेटो' हो शब्द रूढ जालो.

मुसलमान आनी किरिस्तांव ज्यूंचो मत्सर करताले. किरिस्तांव, जेजू क्रिस्ताच्या बलिदानाक ज्यूच कारणीभूत आसात, अशें मानतात. देखून एकदम सुरवातीचे 'घेटो', मुस्लिम आनी किरिस्तांव देशांनी तयार जाले. मुसलमान धर्मीय मोरोक्को देशांत इ.स. १२८० सावन ज्यूंची वेगळी वसणूक आशिल्ली. त्याच शेंकड्याचे सुर्वेक क्रिस्ती धर्मीय लॅटेरन काउन्सिलान 'ज्यू'चेर निर्बंध घालचे, तांकां सरकारी नोकरेंत घेवंचे न्हय, तांकां हळडुवे बिल्ले लावन भौशीक सुवातींनी भोंवपाची सक्ती करची, अशें सुचयलें. तेन्नासावन युरोपीय देशांत ज्यूंक वेगळे दवरपाची प्रथा सुरू जाली. अर्थीक सर्तींत ज्यू आपणापरस बळिश्ट जातले, ह्या भंयान चवदाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक इंग्लंडांतल्यान ज्यूंक धांवडायले. तांणी जर्मनी, स्पेन, इटली आनी पोलंड हांगा स्थलांतर करून आपल्यो वसणुको स्थापन केल्यो.

जर्मनींत फ्रँकफर्ट हांगा पंदराव्या शेंकड्यांत सगळ्यांत व्हडलो घेटो तयार केलो. प्रागांतलो घेटोय असोच नामनेचो आशिल्लो. स्पेन आनी पोर्तुगालांतूय जायते घेटो आशिल्ले.

घेटोंतले रस्ते, घरांची बांदावळ, निवळसाण आनी हेर गजाली उण्या पांवड्याच्यो आशिल्ल्यो. घेटो वसणुकां भोंवतणी वणत आसताली आनी तिका एकूच प्रवेशद्वार आसतालें. घेटो भितर ज्यू लोकांक स्वायत्तता आशिल्ली 'ज्यू'चीं स्वताचीं न्यायालयां, धर्मीक, सांस्कृतिक, शिक्षणीक आनी करमणूक हांचीं केंद्रां आसतालीं. वसणुकेभायर अर्थीक वेवसाय करपाक कडक निर्बंध आशिल्ले. घेटोभायर 'ज्यू'क अपमानाची वागणूक मेळटाली.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक युरोपांतले घेटो कायद्यान बंद करचे पडले. रशियांत मात १९१७ चे क्रांतीमेरेन घेटोची पध्दत आशिल्ली. दुसऱ्या म्हाझुजांत नाझींनी युरोपांत जायतेकडेन 'ज्यू'चे घेटो परत स्थापन केले. हातूंत पोलंडांतलो 'वॉर्सोचो घेटो' हें एक मुखेल उदाहरण आसा. थंयसावन 'ज्यू'क छळगृहांत (concentration camp) व्हरून जिते मारताले.

अमेरिकेंत गेल्ल्या नीग्रो लोकांक कायद्यान न्हय, पूण खाशेले समाजीक परिस्थितीक लागून शाराच्या खाशेल्या भागांत रावचें पडलें. हेय एक प्रकारचे घेटोच. लंडन, मँचेस्टर, लिव्हरपूल अशा ब्रिटनांतल्या जायत्या शारांनी लेगीत आशियाई लोकांची वसती खाशेल्या वाठारांतूच केंद्रित जाल्या. पूण तांचेर कसलेच निर्बंध नात. देखून, तांकां रुढ अर्थान घेटो म्हणप समा न्हय.

आर्विल्ल्या काळांत समाजीक आनी अर्थीक समता मानतात. संयुक्त राश्ट्र संघटनेचे सनदेंत मानवी अधिकाराविशीं स्पश्ट आश्वासन आसा आनी ताका लागून तत्त्वीक नदरेन तरी घेटो नश्ट जाले.

- कों. वि. सं. मं.

**घोटगे, रामकृष्ण जगन्नाथ:** (जल्मः १७ मे १९१२, कोरगांव-पेडणें).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठी आनी पोर्तुगेजींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. सुटके झुजाच्या काळांत तो सुटके झुजाऱ्यांक आदार करतालो. १९५५ वर्सा जेन्ना मधु लिमये सत्याग्रहींचो एक पंगड घेवन गोंयांत आयलो तेन्ना ताणें तांकां मार्गदर्शन केल्लें. १९५९ वर्सा ताका सुटके झुजारी आत्माराम पाटील हाचे वांगडा धरलो आनी एक वर्स बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**घोडगे, प्रभाकर काशीराम:** (जल्मः ३१ ऑक्टोबर १९३४, मडगांव-साश्टी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें विज्ञान शाखेचें पयलें वर्स मेरेन शिक्षण घेतलें. गोंय सुटके चळवळीच्या काळांत 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आसलो. लोकांमदीं राजकी जागृताय करपाखातीर ताणें खूब वावर केला. १५ ऑगस्ट १९५४ दिसा आल्फ्रेड आफोंसो हाच्या फुडारपणाखाल तेरेखोल गांवांत जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. ह्या सत्याग्रहाच्या दुसरे दिसा पोलिसांनी ताच्या वांगड्यांसयत ताका धरलो आनी इकरा वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर दंड भरपाये बदला आनीक दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिली. १९५९ वर्सा ताचे कडल्यान उतर घेवन बंदखणींतल्यान ताची सुटका केली. गोंय सुटके उपरांत तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटनेचो वांगडी जालो आनी जिल्हा संघटक म्हूण वावर करूंक लागलो. कामेऱ्यां आनी कामगारां पासत ताणें खूब वावर केला. १९६३ वर्सा तो 'कम्युनिस्ट पार्टी ऑफ इंडिया' पक्षाचो वांगडी जालो आनी १९७१ मेरेन गोंयचे शाखेचो चिटणीस म्हूण पक्षाचें काम पळोवंक लागलो. गोंय राज्याचे 'ऑल इंडिया ट्रेड युनियन काँग्रेस' कमिटीचो तो अध्यक्ष जालो. '१८ जून' कमिटीचो तो चिटणीस आसलो.

- कों. वि. सं. मं.

**घोडो:** **प्राण्याचें वर्गीकरणः** वर्ग- स्तनिवर्ग (Mammalia), **गण-** पॅरिसोडॅक्टीला, कूळ-इक्विदे, जाती- इक्वस कॅबॅलस (E Caballus of melini tarpan), प्रजाती- इ. कॅबलस प्रेझवालस्की, प्रेझवाल्की हॉर्स (E.Caballus Prezewalskii, Prezewalki horse).



अरेबियन घोडो

शारिरीक खाशेलपणः (वर्णन)

बेल्जियम घोडो



प्रेझवालस्की घोड्याची खांद्यामेरेनची उंचाय साडे चार फूट आसता, ताची आयाळ ताठ आसता. आयाळीचो रंग, शेंदरी आनी पुडीकोराची भरसण जाल्लो आसता. शेंपडेचेर लांब काळे केंस आसतात.

घोड्याभितर अरबी घोड्याची सुवात ऊंच आसा. हो घोडो ऊंच जातकुळयेंतलो आसून तो चपळ आसता. ताचें कपल वा ताळवी फुगिल्ल्यावरी पूण वाटकुळी आसता. तोंड सरळ आनी बारीक, रेखीव नाक लांब आनी सरळ फाट, लांब आनी घटमूट सोबीत पांय ही ह्या घोड्याची कांय शारिरीक खाशेलपणां जावन आसात.

घोडो ४४ म्हयन्यांनी पूराय वयांत येता. त्यावेळार ताचें वजन ४५० किग्रॅ. आसता. नवें जल्माक आयिल्लें घोड्याचें पील सादारणपणान ४५ किग्रॅ. आसता.

**उगमाचो इतिहासः** धर्तरेचेर घोड्याचें अस्तित्व मनीसजात घडचे आदींसावन आसा. रानवटी घोडो, जंगली गाढव आनी झेब्रा हांचेपरस वेगळो आसलो तरी तो ताच्याच 'इक्वस' हे जाती प्रकारांत मोडटा. इतिहासपूर्वकाळासावन रानवटी घोडो युरोप आनी आशिया खंडांत आसलो. इतिहासकाळांत घोड्याक पोसपाक लागले. ह्याच काळांत मांसाखातीर ह्या प्राण्याची शिकार जावपाक लागली आनी झुजांतय वेगवेगळ्या कामांखातीर ताचो उपेग जावपाक लागलो. वयल्या विंगडविंगड कारणांक लागून घोड्याचो आंकडो उणो जायत गेलो. सद्या रानवटी घोड्याचें अस्तित्व लागीं लागीं ना जायत गेलां. 'तरपन' ही रानवटी घोड्याची जात १८५१ मेरेन युक्रेन वाठारांत अस्तित्वांत आसली. प्रेझवालस्की घोडो वा मंगोलियन रानवटी घोड्याची जात मध्य आशियांत तग धरून आसली. आयज ही जात ल्हव ल्हव नश्ट जाल्या. सद्याच्या पाळीव घोड्याची पैदास सुमार दोन हजार वर्सांफाटीं (इ.स.प.) वयल्या खंयच्याय एक वा दोनूय रानटी घोड्याचे जातीसावन जाल्ली आसूंये अशें मानतात. पूण हो बदल कसो घडलो हाचीं कारणां आयजमेरेन उक्तीं जावंक नात.

**घोड्याची जडण-घडणः** १९३८ त किंग्स्टन-सफोल्क हांगासल्ल्या विलयम कोलकेस्टर ह्या वीट करप्याक, विटांखातीर माती काडटना दाताचे जीवाश्म मेळ्ळे. फुडल्याच वर्सा केंट वाठारांतल्या स्टड हिल हांगा विलयम रिचर्डसन हाका 'जीवाश्म' एकठांय करतना सोंश्याची कवटी मेळ्ळी. कालांतरान बरेच विंगड विंगड प्राण्यांचे 'जीवाश्म' मेळ्ळे. हांकां 'हायराकोथेरियम' हें नांव पडलें. सुमार ५.५ कोटी वर्सांपयलींच्या काळांतल्या घोड्याच्या पूर्वजाक हायराकोथेरियम म्हण्टात. हे अवस्थेंतल्या घोड्याक, फुडल्या पायांक चार बोटां तर फाटल्या पांयांक तीन बोटां आसलीं. दोन कोटी वर्सांउपरांत घोड्याचें एक बोट गळून पडलें. हे अवस्थेक 'मिसोहिपर्स' (Mesohippers) अशें म्हण्टात. उपरांत आनीक दोन कोटी वर्सांनी घोड्याचीं दोन भायलीं बोटां गळून पडलीं. हे अवस्थेक 'हेरीकिपस' अशें म्हण्टात. ह्या वेळार ताचे पांय ओले जमनीकच लागपाक शकताले. पिलोसीन काळांतलो पिलोहिप्पस अवस्थेंतलो घोडो एका बोटाचेर धांवतालो. आर्विल्ल्या काळांतल्या घोड्याचे अवस्थेक 'इक्वस' म्हण्टात. ते खुराच्या आदारान धांवतात.

अमेरिकन घोडो



सुमार दोन कोटी वर्सांआदीं धर्तरेचेर खास करून पठाराचेर जावपी तण खावन घोडो पोट भरतालो. तणाक लागून येवपी रेंवय ताणें खाल्ल्यान ताच्या दांताच्या आकारांत फरक पडलो आनी मोटवे जाले. कांय काळाउपरांत हे दांत फकत तण खावपायोग्यच उरले. आयज घोड्याचें मुखेल अन्न 'तण' जावन आसा.

**वसतीस्थानांः** संवसारांतल्या चडश्या सगळ्या देशांत, कमी चड प्रमाणांत घोडो हो प्राणी दिश्टी पडटा. १९८६ वर्साचे जनावरांचे जनगणनेप्रमाण गोंयांत फकत दोन घोड्यांची नोंद आसा.

**प्रकारः** सादारणपणान टारपन, मंगोलियन रानवटी घोडो, मध्यम रानघोडो, पाळीव घोडो आनी हेर प्रकाराचे घोडे हातूंत आस्पावतात.

*टारपनः* ह्या घोड्याची जात सद्या अस्तित्वांत ना. पोशिल्ल्या घोड्यावांगडा घडिल्ल्या संकरणाक लागून आनी व्हड प्रमाणांत जाल्ले शिकारेक लागून ही जात नश्ट जाल्या.

*प्रेझवालस्की घोडो (मंगोलियन रानवट घोडो):* १८८१ वर्सा, मध्य आशियांत निकोलाय प्रिझवालर्स्की ह्या रशियन संशोधकान ह्या घोड्याचो सोद लायलो. १९१८ च्या रशियन क्रांतीवेळार हे जातीचे फकत ४० घोडे उरिल्ले. हांकां विंगड विंगड अभयारण्यांनी सांबाळून दवरिल्ले.

*मध्यम रानवट घोडोः* अमेरिकेचे 'मध्यम रानटी मुस्तांग' आनी ऑस्ट्रेलियाचे 'ब्रूम्बी' ह्या घोड्याचो ह्या प्रकारांत आस्पाव जाता.

*पाळीव घोडोः* पाळीव घोड्याच्यो सुमार साठ जाती आसात. ह्या प्रकारांतलो 'अरबी' सगळ्यांत ऊंच पांवड्याचो मानतात.

नॉर्थर घोडो, जड घोडो, तशेंच हलके सॅलेबीक घोडो हे कांय हेर घोड्याचे प्रकार आसात.

इंग्लीश थॅरोब्रेड, स्टॅंडर्डब्रेड, क्लाईड्सडेल, शायर, आयसलॅण्ड पोनी, इंडियन थॅरोब्रेड, चुमुरती, स्पिती भूतानी, मणिपूरी, मारवाडी, काठेवाड हीं घोड्यांच्या जातींचीं कांय विदेशी आनी देशी नांवां आसात.

**प्रजननः** घोडी दोन वर्सांनी वयांत येता आनी प्रजननक्षम जाता.

ऋतूचक्र ३ ते ५ दिसांचें आसून ऋतूकाल २४ ते २८ दिसांचो आसता. ऋतूकाल सोंपचे आदींची २४ ते ४८ वरां गर्भधारणेक योग्य आसतात. गर्भधारणेचो वट्ट काळ ११ म्हयन्याचो आसता. घोडी व्हितकच चार ते अकरा दिसांनी परतून माजाक येता. सुमार चार ते स म्हयने घोडी पिलाक दूद दिता. सुमार वीस वर्सांची जायसर घोडी पिलांक जल्म दिता. एका वेळार एकच पील जल्म घेता. क्वचित प्रसंगार जुळे वा तिळे जल्माक येतात.

**पोसप आनी खावड**: जेवणखाण, निवळसाण आनी फाव तशी सुवात घोड्यांक बरे तरेन पोसपाचे नदरेन म्हत्वाच्यो गजाली आसात. घोड्यांक सादारणपणान तबेल्यांनी वा घोडवळींनी दवरून पोसतात. तबेल्यांचीं दारां लांब-रुंद आसचीं पडटात. दोन घोड्यांमजगतीं ऐस-पैस सुवात दवरतात. घोड्याची कात दिसाक दोन फावट धुंवन पुसून निवळ करतात. आयाळ आनी शेंपडी उदकान धुतात. चड वाडिल्ले केंस कापतात. ताच्या आंगाखाल सुक्या तणाचें हांथरूण घालतात. तें दर दिसा बदलतात. घोड्याच्या खुरांचो शृंगी भाग झिजचो न्हय म्हूण 'नाल' मारतात.

**खावड**: घोड्यांक दितात ती खावड आनी ताची सरासरी अशी:

| खावड | सरासरी |
|---|---|
| भड्डिल्लो ओट (धान्य) | ५०.००% |
| हळडुवें भड्डिलें धान्य | १४.००% |
| गंवाचो आनी तांदळाचो कुंडो | १०.००% |
| अल्फालफा पानांचे जेवण | ५.००% |
| जवसाचें जेवण | ७.५०% |
| आयोडीनाची प्रक्रिया केल्लें मीठ | ०.५०% |
| गरम वाफ दिल्ल्या हाडांचें जेवण | ०.५०% |
| मळी, काकय | १२.५०% |
| | १००.००% |

घोड्यांक वयल्या पांवड्याचो सकस आनी संतुलित आहार वा खावड दिवप गरजेचें आसता. खावडीवांगडा योग्य तितलें उदक घोड्याक दिवचें पडटा. घोडे सादारणपणान स्वताच्या वजनाची १२% खावड खाता.

**उपेग**: घोड्याचो पोशिल्लो प्राणी म्हूण उपेग जायत सावन मनीसजिणेंत एक आगळीच क्रांती घडली. सुर्वेक घोड्याचो उपेग रथाखातीर जातालो. उपरांत 'स्वारी' करपाखातीर ताचो उपेग जावपाक लागलो. जड वाहनां वा जड म्हालाची हाड-व्हर करपाखातीरय घोड्याचो उपेग जावपाक लागलो. मुंबय शारांत पयलीं ट्रॅम ओडपाक घोड्याचो उपेग करताले. सद्या सर्तीखातीर तशेंच टांगो वा बग्गी ओडपाखातीर घोड्याचो वापर जाता. इतिहासकाळार चडश्या सगळ्या झुजांनी घोड्याचो वापर जातालो.

**रोग आनी उपाय**: घोड्याक हेर प्राण्यांभशेन जीव-जीवाणूंवरवीं संसर्ग जन्य रोग जातात. देखीक- वायरल, बॅक्टेरियल, स्पायरोकेटल, मायकोटिक मेटाझोल, प्रोटोझोल आनी हेर. तशेंच पांय तिरपप, स्नायू दूखप, हाड मोडप, हीं दुखणींय घोड्याक जातात. तेभायर कातीचो, दोळ्यांचो, पचनक्रियेचो, मज्जातंतूचो रोगय घोड्यांक जडटा. गर्मेचो, असमतोल जेवणाचो, शारिरीक तशेंच रसायनीक प्रक्रियेचो घोड्याचेर परिणाम जाता. घोड्याक जावपी कांय संसर्गजन्य रोगांचीं नांवां अशीं: इक्वीन एन्सीफालोमिस्लिटीस, अॅथ्रेक्स, गायलँडर्स, टिटेनस, डोरीन, सुरा आनी हेर.

- डॉ. के. आर. शास्त्री.

**घोसाळें**: (मराठी-दोडका, शिराळे; हिंदी-जिंगा, तोरी; गुजराती-घिसोडा, तुरिया; कन्नड-हिरेकाई; संस्कृत-कोष्टकी; इंग्लीश-रिज्ड (रिब्ड) गोर्ड; लॅटीन-लुफा ॲक्युटँग्युला; कूळ-कुकर्बिटेसी).

ही वाल मुळची भारत देशांतली. घोसाळें आनी माट्ट घोसाळें ह्यो वनस्पती एकाच वंशांतल्यो आसून तांची कांय शारीरिक लक्षणां एकसारकीं आसतात. पानां सादीं, एका फाटल्यान एक आनी पांच ते सात भागांनी वांटिल्लीं आसतात. पु.-पुश्प आनी स्त्री-पुश्प एकाच झाडार पानांचे खांचींत आसतात. पु.-पुश्पाच्या घोसाक १०-२० फुलांची ताळी आसता. स्त्री-पुश्प एकूच आसता. फळ १५-३० सेंमी. लांब, देंठकडेन अशीर आनी तोंकाकडेन रुंद (फुगिल्ल्या भशेन) आसता. ताचेर धा, उब्यो घट्ट शिरो आसतात. कांय प्रकारांत ह्यो शिरो हय-न्हयश्यो आसतात. बियो थपकट्यो १०-१२ मिमी. लांब आनी काळ्यो आसतात. तरन्या फळांची भाजी करतात. कांय फळां कोडूय आसतात. बी वांतिकारक, कोडू आनी रेचक आसता. कोडू फळां वखदी नदरेन उपेगी पडटा. तातूंत ल्यूफिन नांवाचें कोडूद्रव्य आसता. कामीण, खोकली, पातळ परसाकडेन जावप, दोळ्याचे विकार आदींचेर हीं कोडू फळां उपेगी पडटात.

घोसाळ्याचीं पानां मूळव्याध (बीक), प्लिहाच्या (spleen) दुखण्यांचेर उपेगी पडटा. ताच्या पानांचो रोस भुरग्यांक दोळे येवपाच्या विकाराचेर वापरतात. मासिक पाळी बंद जावप आनी मूत्रविखरक्तता (मूत्रपिंडाच्या कार्यांत आडखळ आयिल्ल्यान रगतांत युरियाचें प्रमाण वाडून निर्माण जाल्ली अवस्था) हांचेर पानांचो काडो दितात. बियांचें तेल आनी पेंड विखारी आसता. पेंडींत नायट्रोजन आनी फॉस्फरस आशिल्ल्यान सारें म्हूण तिचो उपेग करतात.

बिहार राज्यांत घोसाळ्यांत सातपुतिया नांवाचो प्रकार दिश्टी पडटा. हे वालीक व्दिलिंगी फुलां येतात. ताका फळांचे घोंस येतात. एकलिंगी प्रकाराकडेन ह्या व्दिलिंगी प्रकाराचें कलम (गार्फ) करून काडिल्ल्या प्रकाराक पांचपटीन फळां येतात. हें पीक गिमांतूय काडपाक येता.



शेतांनी भाजयेखातीर हे वालीची लागवड करतात. गोंयांत घोसाळ्याची लागवड करून तीं बाजारांत विकतात. हे वनस्पतीचें पीक पावसाळी आनी वायंगणी (गिमांत) अशें काडटात. मध्यम प्रकाराचे भुयेंत ३० सेंमी. व्यासाचे आनी १.५ मी. खोल फोंड काडून तातूंत भरपूर शेणाचें सारें घालून ४-५ बियो रोयतात आनी रोखडेंच उदक घालतात. बी किल्लतकच आळ्यांत दोन रोंपे दवरून हेर रोप काडून दुसरेकडेन लायतात. वालीक आदार दिवपाखातीर माटोव घालतात. दर धा दिसांनी वालीक उदक घालतात. लागवडी उपरांत सुमार देड म्हयन्यांत हे वालीक फळां येवंक लागतात. तीं व्हड जातकच तरनीं आसतनाच भाजयेखातीर काडटात सुमार स सप्तकां मेरेन हें काम चालू आसता

सुमार चार म्हयने हें पीक उरता.

कांय वाठारांनी ही वाल सैमीक रितीन निर्माण जाता. अशे वालीक आयिल्लीं घोसाळीं हीं चडशीं रुचीन कोडू आसतात. अशा घोसाळ्यांक रान-घोसाळीं म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**माट्टी घोसाळें:** (मराठी- घोसाळे; हिंदी- धिया तोरी; गुजराती- तुरिया, गिलका; कन्नड-तुप्पहिरेकाई; संस्कृत- राज कोष्टकी; इंग्लीश- स्पंज गोर्ड, बाथ स्पंज; लॅटीन- लुफा इजिप्टिका; कूळ- कुळर्बिटेसी).

ही द्विदल वनस्पत एक वर्स भर उरता. माट्टी घोसाळें आनी घोसाळें हीं एकाच वंशातलीं आसतात. पूण तांची कात मात वेगळी आसता. माट्टी घोसाळें मुळचें दक्षिण आशिया वाठारांतलें आसून भारत, बर्मा, चीन आनी श्रीलंका ह्या देशांतल्या रानांनी दिश्टी पडटा. तार्चे शास्त्रीय नांव अरबी शब्द 'लूफ' ह्या शब्दावेल्यान आयलां अशें दिसलें तरी ही वनस्पत मुळची अरब वा ईजिप्त वाठारांतली न्हय.

**खाशेलपण:** हे वनस्पतीची वाल वाडटकच माटवार वा रुखार चडयतात. तार्चे कांड पंचकोनी आसता आनी ताका पांच ते सात खंडांनी विभागिल्लीं पानां आसतात. पान आनी कांड हांचे खांचीतल्यान ज्यो कोंबऱ्यो प्रतानां (tendrils) येतात ती कांडाक वाडपाक घटसाण दितात.

माट्टी घोसाळें ही एकलिंगी वनस्पत. पु.-पुश्पां आनी स्त्री-पुश्पां एकाच झाडार जातात. पानांचे खाचींत आयिल्ल्या तुऱ्याचेर व्हड आनी हळडुवीं ४-२० पु.-पुश्पां येतात. पु.-पुश्पांच्या तुऱ्यापोंदा स्वतंत्र देंठार एकटुकें स्त्री-पुश्प येता. फळ लांबशें तशेंच वाटकुळें ३० ते ६० सेंमी., लेव पांचवें आनी नाजूक कातीचें आसता. तेचपरी ताचेर उब्यो रेगो आसतात. फळाभितरलो गर जून जातकच धागेदार जाता. बियो थपकट्यो १ ते १.५ सेंमी. लांब आनी काळ्यो आसतात.

**प्रकार:** आशिया, उत्तर आफ्रिका आनी मध्य अमेरिका ह्या वाठारांनी जरी ह्या घोसाळ्यांची लागवड करतात तरी तातूंत जायतशी उदरगत जाल्ली ना. भारतांत दिल्ली वाठारांत आशिल्ल्या 'भारतीय कृषी संशोधन संस्था' हे संस्थेन 'पुसा चिकणी' ही नवी पध्दत सोदून काडल्या.

**लागवड:** हे वनस्पतीची लागवड बियांपसून जाता. १.५×१ मी. अशीं चार कुडणां तयार करून तातूंत ३-४ बियो किल्लूंक घालतात. उपरांत रोंप किल्लून व्हड जातकच तांकां आदार दिवपाक माटोव घालतात. बियो किल्लुंक घालचेपयलीं भूंय खणून तातूंत दर हेक्टर प्रमाण २५ टन शेण, गोबोर, सारें (compost), ४० किग्रॅ. नायट्रोजन, ६० किग्रॅ. फॉस्फरस आनी ६० किग्रॅ. पॉटेश वापरतात. रोंप लायतकच चार सप्तकां उपरांत ४० किग्रॅ. नायट्रोजन दर हेक्टर जमनीखातीर वापरतात. दोंगराळ वाठारांनी जंय हे वनस्पतीची लागवड करतात थंय सुपीक भूंय आशिल्ल्यान रोंपांक फकत नायट्रोजन सारें घालचें पडटा. हें पावसाळी पीक आशिल्ल्यान ताका उदक दिवचें पडना.

बऱ्या प्रकाराची आनी प्रतिचीं फळां येवचे पासत हातान परागीकरण (Pollination) करतात. (पु.-पुश्पाचो पराग स्त्री-पुश्पाच्या किंजल्काचेर घस्टवप). रोप रोंयल्या उपरांत दोन म्हयन्यांनी तरनीं फळां काडटात. पूण ४ ते ५ म्हयन्यां उपरांत फळ जून जाता आनी तातूंत धागे तयार जातात.

**उपेग:** तरनें माट्टी घोसाळें जेवणांत वापरतात. तातूंत ४५ आय. यू. (Internal Unit) विटामीन 'अ' आनी दर शंबर ग्रामाक ७ मिग्रॅ. विटामीन 'सी' आसता. पोर्तुगेज संशोधकाक माट्टी घोसाळ्याचो भितल्लो काथो आंग घासपाच्या काथ्याभशेन वापरूं येता हें दिसून आयलें. ह्या काथ्याचो उपेग उश्ण प्रदेशांत आयदनां घासूंक करतात. जून माट्टी घोसाळें ७ ते १० दीस उदकांत घालून दवरतात. जाचेवरखीं ताची कात आनी भितल्लो गर मेकळो जाता आनी ताचेपसून धागे मेळटात. हे धागे हायड्रोजन पेरोक्साईड हातूंत प्रक्रिया करून ते वतांत सुकत घालतात. ह्या धाग्यांपसून हाताक घालपाचीं लुवां, मेजाचेर आनी दारांत लावपाचे तुवाले, जोतीं आदी जायत्यो वस्तू करतात. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या वेळार हे धागे आवाज आनी धक्के हांचे प्रतिरोधक आशिल्ल्यान अमेरिकेचें लश्कर आपल्या संरक्षक कवचार (Helmets) आनी दारुगुळो व्हरपाचे मोटारीचेर हे धागे लायताले. चडशा देशांनी ताचो मरीन स्टीम इंजीन (Marine steam engines) आनी डिजेल इंजीन (Diesel engines) हाचेखातीर गाळणी म्हूण उपेग करतात. बियांत सुमार ४६% खावपाचें तेल आनी ४०% प्रथिन आसता. अस्तंतेच्या देशांनी हें तेल कात तुकतुकीत करपाक वापरतात.

माट्टी घोसाळ्यांत घोंस घोसाळें नांवाची एक जात आसता. हे वालीचीं फळां ल्हान, वाटकुळीं आनी घोंसानी येतात. हीं फळां भाजी करपाक वापरतात.

**रोग आनी उपाय:** हेर भाजयांवरी माट्टी घोसाळ्याक चितो लागता. अशा वेळार पानां सकयले भागाक जांबळे तिबे आनी पानांवयर हळडुवे तिबे पडटात. हो रोग वतांत आनी पावसाळी हवामानांत पातळटा. १ लिटर उदकांत १ ग्राम कार्बोनडेझीम (Bavistin) घालून ताचो फवारो हे वनस्पतीचेर मारल्यार हो रोग टाळूं येता. फ्युझेरीयम वील्ट (Fusarium wilt) हो हे वनस्पतीचेर जावपी आनी एक रोग, बीयेचेर कार्बोनडेझीम ह्या द्रव्याची प्रक्रिया करून नश्ट करूं येता. पानांक लागपी किड्यांखातीर एक लिटर उदकांत २ मिलीलीटर मालाथीयॉन (malathion) वा एन्डोसल्फन घालून ताचो फवारो मारतात.

- मिंगेल ब्रागांझा

**ङ:** देवनागरी वर्णमालेंतलें 'क' वर्गांतलें पांचवें व्यंजन. ह्या वर्णाक आयचें स्वरूप प्राप्त जावंचेआदी तीन अवस्थांतल्यान वचचें पडलें.



ङ च्या रुपाचो विकासक्रम

बुध्दगया हांगाच्या एका खांब्याचेर पयले अवस्थेंत ङ दिसता. हातूंत ङ चौकोनी कंसासारको आसा. राजा यशोधर्माचे मुस्तींत मंदसोर हांगाच्या लेखांत (इ. स. ५३२) 'ङशो' ह्या जोडाक्षरांत दुसरे अवस्थेंतलो ङ आसा. ङ वर्णाची दिसपी तिसरी अवस्था उदयादित्याचे मुस्तींत (इ. स. ११ वो शेंकडो) उज्जैनच्या लेखांत पळोवपाक मेळटा.

कामधेनुतंत्रांत हाचें स्वरूप सांगलां तें अशें:

ङकारं परमेशानि। स्वयं परमकुण्डली ।
सर्वदेवमयं वर्णं त्रिगुणं लोललोचने ।
पञ्चप्राणमयं वर्णं ङकारं प्रणमाम्यहम् ।।

अर्थ- हे पार्वती, ङ हो स्वता कुंडलाकार, सर्वदेवमय आनी त्रिगुण आसा. हे चंचललोचने, पंचप्राणमय अशा ह्या ङकाराक हांव नमस्कार करतां.

- कों. वि. सं. मं.

**चंडीगढ:** भारतांतल्या सद्याच्या पंजाब राज्याची राजधानी. पंजाब आनी हरयाना ह्या संयुक्त राज्याचीय ती राजधानी आसली. १९४७ त जेन्ना भारताची फाळणी जाली, तेन्ना पंजाबचो अस्तंत भाग पाकिस्तानांत आस्पावलो. पंजाबच्या अस्तंत वाठारांत फाळणेच्या पयलींच्या पंजाबाची राजधानी लाहोर आशिल्ली. लाहोर पाकिस्तानांत गेल्ल्यान पंजाबाच्या नवे राजधानीचो प्रस्न उप्रासलो. सगळ्या वातावरणाचें आनी परिस्थितीचें म्हत्व लक्षांत घेवन शिवालीक दोंगुल्लेच्या मूळांक आशिल्लें चंडीगढ हें शार वेंचून काडलें. हें शार अंबालाचे उत्तरेक ४८ किमी. आनी शिमलाचे दक्षिणेक ११३ किमी. चेर आसा. ह्या शारालागींच चंडी देवाचें पोरनें

देवूळ आसा, ताका लागून ह्या शाराचें नांव चंडीगढ हें पडलें.

चंडीगढ ही पंजाबाची राजधानी म्हूण वेंचून काडटकच ह्या शाराची वेगळे तरेची मांडावळ करची पडली. पंडीत नेहरूंचे सुचोवणेनुसार फ्रेंच वास्तूशिल्पज्ञ ल् कॉर्ब्यूझ्ये हाणें चंदीगढची नगर रचना केली. भारतांतली आधुनीक काळांतली बऱ्यांत बरी देख घेवपासारकी ही नगररचणूक जावन आसा. ह्या नगराचो वट्ट वाठार ११४.०० चौ. किमी. (१९८१). हांगाची लोकसंख्या ४,५०,०६१ (१९८१) आसा. हे नगररचणुकेंत मळब, जमीन, झाडां ह्या सैमीक गजालीं वांगडाच लोखण, शिमीट सारक्या वस्तूंचो उपेग करून दोनूय गजालींचो एकचार तसो विरोधाभास साधून घेतला, हे रचनेचें हें खाशेलपण जावन आसा.

हांगा व्हड व्हड रस्ते, रस्त्याचे उपेग दाखोवपी वेगवेगळे विभाग, वाहनांखातीर आनी पादचाऱ्यांखातीर आशिल्ले वेगवेगळे रस्ते अश्यो जायत्यो तरा पळोवंक मेळटात. रस्त्यांचे एके वटेन राजकी आनी दुसरे वटेन सार्वजनिक वास्तू आसात. दोनूय वटेन झाडां लायिल्ल्या ह्या व्हड अक्षीय रस्त्याच्या एका तोंकांक उक्तीं मळां, खेळामळां आनी बागो आसात, जाल्यार दुसऱ्या तोंकाक बँको, सचिवालयां, सरकारी कार्यालयां आदी आसात. हांगाचो दुसरो अक्षीय राजरस्तो रेल्वेस्थानकाकडल्यान उदेंतेकडेन वता. थंयच्यान गुदांव, कारखाने हांचेकडसून फुडें अस्तंतेकडेन वता. थंय उच्च शिक्षण संस्था, व्हड मळांचेर आशिल्लीं रंगमंदिरां, नागरी वस्तू संग्रहालय, खेळामळां, हांकां फाटीं घालून हो रस्तो फुडें विश्वविद्यालयाकडेन पावता. ह्या दोनूय रस्त्यांमदीं आशिल्ल्या व्हड चौकांत दुकानां, कार्यालयां आदी आसात. व्हेनीस शारांत आशिल्ल्या कालव्याभशेन हांगा वेगवेगळ्या भागांतल्यान तणाचे पट्टे काडल्यात. जाळयेभशेन वेगवेगळ्या भागांत पसरिल्ल्या ह्या तणाच्या पट्ट्यांनी रस्त्यार चलपी लोकांक सोपें जाता.

हांगाच्यो शासकीय, न्यायालयीन आनी हेर वस्तू हांगाचे नगर रचणुकेक सोबसारक्यो आसा. ह्या वास्तुशिल्पांच्या कामाक प्रभावळकर, चौधरी, माथूर, पिलू मोदी, शर्मा, लंबा हे सारक्या भारतीय तशेंच प्येअर झान्रे, जेन-ड्रू, मॅक्सवेल फ्राय ह्या सारक्या पाश्चात वास्तू शिल्पज्ञांचो हातभार लागला. हांगा पंजाब विद्यापीठ, तंत्रशाळा, अभियांत्रिकी महाविद्यालय, प्रशिक्षण म्हाविद्यालय आसात. तेचपरी शिमीट, कृत्रिम रस्मी आनी सुती कापड, टंकयत्रां, तेल, पीठ हांच्यो गिरण्यो आनी कारखाने आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**चंदगडकर, रामचंद्र कृष्ण कामतः** (जल्मः १८७३, चंदगड, बेळगांव; मरणः ७ फेब्रुवारी १९६०, माशेल).

धर्मीक ग्रंथ बरोवपी एक लेखक. बेळगांव शारांत मराठी, इंग्लीश आनी संस्कृताचें शिक्षण घेतल्या उपरांत तो थंयच्या रामतत्त्व छापखान्यांत वावर करूंक लागलो. उपरांत तो बडोद्याच्या 'गंगनाथ विद्यालय' नांवाच्या राश्ट्रीय शिक्षण संस्थेंत सुपरिंटेंडेंट म्हूण वावर करूंक लागलो. भायल्यान जरी ही शिक्षण संस्था विद्यालय कशें दिसलें, तरी ती भारतीय क्रांतीकारकाचें एक आश्रयथळ आशिल्लें. दिल्ली सरकाराक हे संस्थेविशीं खबर कळ्ळी आनी ताणें तिचेर बंदी हाडली. तेन्ना रामचंद्र कामत चंदगडकर आपलो भाव विठ्ठल हाचे वांगडा गोंयांत आयलो आनी नेरूल वाठारांत स्थायीक जालो. थंय ताणें प्राथमिक शाळा काडली, वाचपघराची थापणूक केली, लघु उद्येगधंदे सुरू केले. तशेंच आश्रम पध्दतीचेर उपासना, प्रार्थना सुरू केल्यो. मुठभर धान्य दरेक घरांतल्यान जमोवन, शाळा चलोवपाची पध्दत ताणें पयले खेप गोंयांत सुरू केली. नेरुलसावन तो माशेल वाठारांत गेलो. क्रांतीकाऱ्यांच्या सहवासांत रावपी आनी नेरुल येवन सर्जनशील मार्गान राश्ट्रसेवा करपी रामचंद्र माशेलांत येवन आध्यात्मिक मार्गावटेन वळ्ळो.' माशेलांत ताणें दत्ताचे मुर्तीची थापणूक केली आनी ताका 'श्री दुर्गादत्त मंदिर' अशें नांव दिलें. थंय वाचन, मनन, चिंतन, जप, यज्ञ, प्रार्थना, उपासना अशा मार्गान ताच्या व्यक्तिमत्वाचो विकास जायत रावलो. दत्तमंदिरांत रावन तो संतसाहित्याचें आलोचन, संशोधन आनी ग्रंथरचना करूंक लागलो.

'गुरुचरित्र' आनी 'एकनाथी भागवत' अशा दोन म्हत्वाच्या ग्रंथाच्यो ताणें संशोधनपर आवृत्त्यो तयार केल्यो. तेभायर ताणें जायतीं पुस्तकांय बरयल्यांत. 'गीताधर्म म्हणजे विश्वधर्म' आनी सौ. सीताबाई कुंडईकर हिचें चरित्र हीं कांय पुस्तकां ताणें बरयल्यांत. 'नामचिंतामणी' (दोन भाग) आनी 'नामजपाचे महत्व' ह्या ताच्या दोनूय पुस्तकांक खूब म्हत्व मेळ्ळें आनी तो आध्यात्मिक मार्गांतलो जाणकार म्हूण नामनेक पावलो. १९५२ वर्सा ताच्या 'नामचिंतामणी' ह्या ग्रंथाक गोमंतक साहित्य संमेलनाचें भांगरापदक मेळ्ळें.

तो ब्रह्मचारी आशिल्लो. गोंय जरी ताची जल्मभूंय नासली तरी कर्मभूंय आसली. पंचावन वर्सां ताणें गोंयांत वावर केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**चंदनः** (मराठी-चंदन; हिंदी-सफेत चंदन, चंदल; गुजराती- सुखड, सुखेत; कन्नड- श्रीगंधा, गंधा, अगरुगंधा; संस्कृत-चंदन, आनंदितम, मल्यज, गंधसार; इंग्लीश-व्हाइट सँडलवुड ट्री, सँडल ट्री; लॅटीन-सँटॅलम आल्बम, कूळ-सँटॅलेसी).

हे परिचित वनस्पतीच्या वंशांतल्या सुमार २५ जातींचे रूख भारतांतले द्वीपकल्पी भाग, मलेशिया, ऑस्ट्रेलिया, न्यूझीलंड आनी पॉलिनेशिया ते हवाई द्वीपसमूह आनी जुआन फर्नांदीश जुंवे (चिली) ह्या प्रदेशांनी सांपडटात. ह्यो सगळ्यो जाती दुसऱ्या वनस्पतींच्या मुळांतल्यान आपल्या मुळांवरवीं नायट्रोजन आनी फॉस्फरस आदी अन्नशोशण करतात, म्हूण तांकां अर्धजीवोपजीवी (partial parasites) म्हण्टात.

चंदनाच्या झाडाचो उगम दक्षिण भारतांत जालो, अशें मानपाक भरपूर पुरावो आसा. पूण ही वनस्पत मूळची इंडोनेशिया देशांतली आनी थंयच्यान ती भारतांत पावली, अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. भारतीय पौराणिक ग्रंथ, धर्मग्रंथ, संस्कृत साहित्य, काव्य आनी लोकांकाणयो हातूंत चंदनाचो उल्लेख सांपडटा. रामायण, महाभारत, कौटिलीय अर्थशास्त्र (इ.स.प. २२०) ह्या ग्रंथांनी चंदनाचो उल्लेख आयला.

भारतांत चंदनाची लागवड कर्नाटक, तमिळनाडू ह्या राज्यांनी व्हडा प्रमाणांत जाता. तेभायर उत्तर प्रदेश, राजस्थान, मध्य प्रदेश, ओरीसा ह्या राज्यांनी ह्या पिकाची लागवड उण्या प्रमाणांत जाता. पूण ह्या राज्यांनी जाल्ल्या चंदनाचो पांवडो कमी आसता. कर्नाटकांत मेळपी चंदनाचो पांवडो सगळ्यांत बरो आसता. गोंयांत हालींच रानखात्यान ह्या झाडाची लागवड करपाक सुरवात केल्या.

रक्तचंदन आनी लालचंदन अशे चंदनाचे दोन प्रकार आसात. रक्तचंदन दक्षिणेक चड प्रमाणांत सांपडटा. चंदनाच्यो सुदारित जाती सद्या तरी विकसित जावंक नात. चंदनाचें झाड हें एक रानांत वाडपी झाड म्हूण वळखतालें. पूण ह्या झाडाची लागवड सद्या शास्त्रोक्त पध्दतीन जाय थंय करूं येता. झाडाक सुरवातीक सावळेची गरज आसता, पूण फुडें ताका वोत जाय पडटा. सुमार ६०० ते १,०५० मी. उंचायेमेरेन हीं झाडां बरीं वाडटात. थंड हवामान आनी मध्यम पावस ह्या झाडाक मानवता. अर्दजीवोपजीवी आशिल्ल्यान हें झाड तामण, धावडो, शिसव, करंज, बाभूळ ह्या झाडांचेर वा ह्या कुळांतल्या झाडांचेर तशेंच अंकोल, सायल, कडूनिंब, मोय, पांगरो, निलगिरी, वोंवळ, निर्गुडी, कुडो, बोर ह्या झाडांचो आदार घेवन जियेता.

चंदनाची लागवड करपाखातीर झाडापोंदचीं सुकीं फळां एकठांय करतात. पावसाळो सुरू जातकच ह्या फळांतल्यो बियो काडून किल्लत घालतात. तशेंच तांचेवांगडा आदारी झाडाच्यो बियो किल्लत घालतात. सुमार ८-१५ दिसांनी बियो किल्लून येतात. एका वर्सान रोंपां २०-३० सेंमी. ऊंच वाडटात. दोन वर्सांनी हीं रोंपां ६०-७० सेंमी. उंचायेचीं जातात. धा वर्सांनी झाडांची उंचाय सुमार १० मी. जाता आनी मागीर मध्यकाश्टाची (heart-wood) वाड जावपाक लागता.

सादारण वीस वर्सांच्या झाडांत मध्यकाश्ट बेगीन वाडपाक लागता

आनी ३०-६० वर्सां वाडिल्ल्या झाडांत भरपूर प्रमाणांत मध्यकाश्ट मेळटा. हे पिरायेच्या झाडाचो घेर सादारण ४० ते ६० सेंमी. आसता. सोंपत्या पावसांत तयार जाल्लीं झाडां मुळापसून खणून काडटात. ह्या मुळांचो वापर तेल काडपाखातीर करतात. एका ४०-५० वर्सां पिरायेच्या झाडापसून २०-२५ घन फूट चंदनाचें बरें लांकूड (मध्यकाश्ट) मेळपाक शकता. चंदनाच्या लांकडाचो उपेग देवाच्यो मूर्ती, पेटयो, डबयो, खेळणी, फणयो हांचेसारकिल्यो हस्तकलेच्यो वस्तू तयार करपाखातीर जाता. देवपुजेंत चंदनाच्या गंधाचो वापर करतात. चंदनाच्या लांकडाच्या भुशापसून तेल आनी धूप तयार करतात. भुसो आनी तेलाचो वापर उजवातींखातीर मोट्या प्रमाणांत जाता. लांकूड आनी तेल हांचो आयुर्वेदीक वखदांखातीर उपेग करतात. भाजून दुखापत जाल्ल्या जाग्यार चंदनाचें गंध लायतात. तकली दुखल्यार कपळाचेर आनी दोळ्यांच्या पातयांचेर गंध लायतात. बियांतलें तेल कातीच्या रोगांचेर वापरतात. चंदनाच्या झाडाच्या पानांपसून मेण तयार करतात.

चंदनाच्या झाडाक 'स्पाइक' नांवाच्या रोगाचो उपद्रव जाता. हो रोग जाल्यार पानां हळडुवीं जातात, मुळां कुसतात, खांदयो बावन सकल हुमकळटात आनी कांय काळान झाड मरता. हो रोग नेमको कसो जाता हाचेविशीं अजून खोलायेन म्हायती मेळूंक ना. तशेंच ह्या रोगाचेर खात्रेचो असो उपाय ना. ह्या रोगाचेर घेवपाच्या उपायांविशीं अजुनूय संशोधन चालू आसा.

- विश्राम गांवकार

## चंदावरकर, नारायण गणेशः

(जल्मः २ डिसेंबर १८५५, होनावर-उत्तर कानडा; मरणः १४ मे १९२३, बेंगळूर).

अखिल भारतीय काँग्रेसच्या मूळ संस्थानिकांतलो एक निश्ठावान सभासद, कायदेपंडीत आनी समाजसुदारक. एका गिरेस्त घराब्यांत ताचो जल्म जालो. ताचें शिक्षण मुंबयच्या एल्फिन्स्टन महाविद्यालयांत जालें. बी.ए. करतकच पिरायेच्या बाविसाव्या वर्सा तो 'इंदुप्रकाश' ह्या द्वैभाशिक सप्तकी नेमाळ्याच्या इंग्लीश विभागाचो संपादक जालो (१८७८). ताणें सुमार धा वर्सां ह्या सप्तकी नेमाळ्यांत आत्मियतेन काम करून ताचो खप आनी पांवडो वाडयलो. ह्याच काळांत मथुरा हे चलयेकडेन तो लग्न जालो. ताणें कायद्याची एल्एल्. बी. पदवी मेळयली आनी मुंबयच्या न्यायालयांत वकिली करपाक सुरवात केली. हुशार कायदेपंडीत म्हूण ताणें रोखडेंच नांव मेळयलें.

काँग्रेसच्या पयल्या अधिवेशनांत प्रतिनिधी म्हूण तो हजर आशिल्लो. १८८५ च्या इंग्लंडच्या सार्वत्रिक वेंचणुकां वेळार ब्रिटीश लोकांक भारतीय प्रस्नांची फावशी जाणविकाय दिवन उमेदवारांची सहानुभूती मेळोवपाचे नदरेन 'पुणे भौशिक सभा' आनी 'बॉम्बे प्रेसिडेन्सी असोसिएशन' वरवीं एक शिश्टमंडळ, प्रचाराखातीर इंग्लंडाक धाडिल्लें. तातूंत ताचो आस्पाव आशिल्लो. त्याच वर्सा काँग्रेसची थापणूक जाली. ताचो तो आजीव वांगडी जालो. १८९६ त कराची हांगा भरिल्ल्या मुंबय प्रांतिक राजकी परिशदेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. मॉंटेग्यू चेम्सफर्ड सुदारणा कायद्याक लागून थापणूक जाल्ल्या मुंबय कायदेमंडळाचो पयलो अध्यक्ष म्हूण ताची वेंचणूक जाल्ली. १८९७ ते १९०० मेरेन तो मुंबय कायदेमंडळाचो वांगडी आशिल्लो. १९०० त लाहोर हांगा भरिल्ल्या काँग्रेस अधिवेशनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.

१८९६ सावन तो प्रार्थना समाजाचो मुखेल आशिल्लो आनी १९०१ त सोशल कॉन्फरन्सचो मुखेल सचिव जालो. ह्या दोनूय पदांवयल्यान ताणें म्हत्वाच्या समाजीक सुदारणांचो पुरस्कार केलो. बायलां आनी मागास वर्ग हांच्या कल्याणाखातीर तांकां राजकी हक्क दिवपाक जाय, अशें मत ताणें परगटायलें. हेखातीर तो १९०६ त कर्मवीर विठ्ठल रामजी शिंदे हाच्या 'डिप्रेस्ड क्लासेस मिशन' चो अध्यक्ष जालो. १९०३ त स्थापन जाल्ल्या मुंबय प्रांतिक समाजीक परिशदेचो तो सुर्वेकसावन ते निमाणेमेरेन अध्यक्ष आशिल्लो. ताच्या फुडारपणाखाल परिशदेच्या वावराक बरोच नेट आयलो.

न्यायमूर्ती रानडे हाच्या मरणाउपरांत १९०१ त मुंबय उच्च न्यायालयाचो न्यायमूर्ती म्हूण ताची नियुक्ती जाली. १९०१ ते १९१२ मेरेन ताणें न्यायमूर्तीपद भुशयलें. तेउपरांत ताणें थोडे दीस इंदूर संस्थानचो मुखेलमंत्री म्हूण काम पळेलें. ह्या काळांत तो सक्रीय राजकारणापसून पयस रावलो. पूण १९१४ उपरांत तो परत राजकारणांत आयलो आनी १९१९ च्या कायद्याक लागून मुंबय जी विधानपरिशद स्थापन जाली, तिचो तो बिनसरकारी अध्यक्ष जालो. अखेरमेरेन ताणें ह्या पदाचेर काम केलें. हेभायर मुंबय विद्यापीठाचो कुलगुरु म्हूण तीन वर्सां, तशेंच रॉयल एशियाटिक सोसायटीचो (मुंबय शाखा) अध्यक्ष हीं पदां ताणें भुशयलीं. न्या. रानडे, तेलंग, भांडारकर हांणी घाल्ले परंपरेचो तो निश्ठावान अनुयायी आसलो. न्या. रानडे हाच्या मरणाउपरांत समाजीक परिशदेचें फुडारपण चंदावरकराकडेन आयलें. कट्टर समाजसुदारकाची भूमिका घेवन ताणें समाजीक सुदारणेचे चळवळीक नवें स्वरूप हाडपाचो यत्न केलो. समाजकारणांत तो जहाल भुमिका घेतालो, पूण राजकारणांत तो मवाळ पक्षांत आसलो. तेन्नाच्या राजकारणांतलो एक स्पश्ट वक्तो, तळमळीचो कार्यकर्तो आनी विद्वान कायदेपंडीत म्हूण ताणें नामना जोडिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

## चंद्र (चंद्रीम) :

मळबांतलो सगळ्यांत पर्जळीत अशा वस्तींचे वळेरींत दुसऱ्या क्रमांकार आशिल्लो चंद्र हो धर्तरेचो उपगिरो जावन आसा. सुर्याvळींतल्या व्हडल्या उपगिऱ्यांतलो हो एक. चंद्राचें धर्तरेपसूनचें अंतर उण्यांत उणें ३,५४,३४१ किमी., चडांत चड ४,०४,३३६ किमी. आनी सरासरी ३,८२,१७१ किमी. इतलें आसा. चंद्राचो आकार सादारणसो वाटकुळो आसून ताचो व्यास धर्तरेपरस ०.२७३ पटीन, क्षेत्रफळ ०.०७४ पटीन आनी घनफळ ०.०२०३ पटीन आसा.

**वेग आनी वस्तुमानः** चंद्र धर्तरेभोंवतणी भोंवड्यो घालता अशें दिसलें तरी खऱ्यांनी दोनूय धर्तरी आनी चंद्र एका खाशेल्या बिंदूभोंवतणी भोंवड्यो घालतात. तांचो भोंवडेचो गोलाकार वेग (angular speed) एकूच आसलो, तरी तांचें त्या बिंदूपसूनचें अंतर विंगड विंगड आसा. हें अंतर तांच्या वस्तुमानांच्या व्यस्त प्रमाणांत आसा. धर्तरेच्या ह्या बिंदू भोंवतणीचे भोंवडेक लागून मळबांतल्या लागींच्या वस्तींच्या (चंद्र सोडून) जाग्यांनी आंदोलन (oscillation) जाल्लेवरी दिसता. इरोस नांवाच्या एका गिरुल्याचें (asteroid) ताणें धर्तरेलागीं (१,६०,००,००० मैल) आयिल्ल्या वेळार घेतिल्ल्या आंदोलनांकांवयल्यान चंद्र आनी धर्तरी हांच्या वस्तुमानांचो विभाजनांक (ratio) १:८१-२७ इतलो मेळ्ळो. हाचेवयल्यान चंद्राची घनताय (density) धर्तरेपरस ०.६० इतली आनी उदकापरस ३.५ इतली आसा, हें कळटा. हाका लागून चंद्रार गुरुत्त्वाकर्शणाची प्रेरणा धर्तरेवयले प्रेरणेपरस एक-शश्ठांश इतली आसा. धर्तरी आनी चंद्र ज्या एका बिंदूभोंवतणी भोंवड्यो घालतात, तो बिंदू धर्तरेवयल्या गुरुत्त्वमध्यापसून (centre of gravity) ४,७४८ किमी. इतलो पयस आसून दोनूय गोलकांक जोडटले रेशेचेर आसा.

चंद्र धर्तरेभोंवतणचो आपलो मार्ग एकवेळ पुराय करूंक एक म्हयनो घेता, पूण त्याच वेळार तो आपल्याच भोंवतणी घुंवता आनी ताचोय काळ एकूच म्हयनो जाता. हाका लागून धर्तरेवयल्यान पळेतल्याक चंद्राची सदांच एकूच वट दिसता. चंद्राचे धर्तरेभोंवतणी भोंवडेचो वेग वराक सुमार ३,६०० किमी. आनी आपल्या आसा भोंवतणी घुंवपाचो वेग वराक १६ किमी. (विषुववृत्ताचेर) इतलो आसा.

**कलाः** दरेका म्हयन्यांत चंद्राची प्रतिमा वाडटा आनी उणी जाता. उमाशेउपरांत एके बारीक चंद्रकोरीन सुरवात जावन ती वाडत अष्टमीक अर्दचंद्र जाता आनी सात दिसांनी पुनवेक पूर्णचंद्र दिश्टी पडटा. मागीर परत ती त्याच क्रमान उणी जावन अर्दचंद्र जावन उमाशेक अदृश्य जाता. चंद्राचे प्रतिमेंत जावपी ह्या बदलाक 'चंद्रकला' म्हण्टात. पुराणकाळासावन ह्या क्रमबध्द बदलाचो कालमापनाखातीर मनशान

उपेग केला. वर्सापरस म्हयन्याचे परिणाम चड म्हत्वाचे मानपी मुसलमानी आनी हिब्रू कालगणनेंत आयज लेगीत चंद्राक खूब म्हत्व आसा. चंद्र स्वयंप्रकाशी न्हय. तो पयसुल्ल्या सुर्याचो उजवाड परावर्तीत करून प्रकाशमान जाता. हाकालागून खंयचेय एके वेळेक ताचो अर्दो भाग प्रकाशमान जाल्लो आसता. चंद्र धर्तरेभोंवतणी भोंवडी मारता, तेन्ना ताची ती प्रकाशमान वट धर्तरेवयल्यान पळेतल्याक बदलिल्ल्यावरी दिसता आनी चंद्रकला दिश्टी पडटा. जेन्ना सूर्य आनी चंद्र हांचेमदीं धर्तरी येता, तेन्ना पुनवेचो पुराय चंद्र धर्तरेवयल्यान दिश्टी पडटा आनी जेन्ना सूर्य आनी धर्तरी हांचे मदीं चंद्र येता, तेन्ना धर्तरेवटेन आशिल्ले चंद्राचे वटेन काळोख आसता. हाकाच उमाशेचो चंद्र अशें म्हण्टात. चंद्राचे कलेविशींचें हें समर्थन ॲरिस्टोटल ह्या ग्रीक तत्ववेत्त्यान दिलां.

**नाक्षत्रिक** (sidereal) **आनी सांवासिक** (synodic) **काळः** दर रातीक चंद्राचें परीक्षण करतल्याक चंद्र मळबांतल्या नखेत्रांमदल्यान आपली सुवात बदलता, अशें दिसतलें. तो एका म्हयन्याउपरांत परत त्याच त्याच नखेत्रांतल्यान वता अशेंय दिसतलें. सूर्य आनी हेर नखेत्रांभशेन तो दिसाचो उदेंतेकडल्यान अस्तंतेकडेन वतासो दिसता. ही ताची गती धर्तरेच्या आपल्या आसाभोंवतणी घुंवपाक लागून घडटा. पूण नखेत्रांमदल्यान तांचे सापेक्ष वचपाची ताची गती उदेंतेकडेन आसा. ती गती हेर आकाशस्थ वस्तींपरस चड आसा. नखेत्रांमदली ही ताची भोंवडी एका खाशेल्या नखेत्रापसून परत त्याच नखेत्राकडेन यो मेरेन ज्या काळांत जाता, त्या काळाक 'नाक्षत्रिक मास' (Sidereal Month) अशें म्हण्टात. हो काळ २७.३२१६६ इतल्या दिसांचो आसता. पूण एके पुनवेसावन दुसरे पुनवे मेरेनचो काळ, जाका 'सांवासिक मास' (Synodic Month) अशें म्हण्टात. हो काळ २९.५३०५९ इतल्या दिसांचो आसता. सुर्याचे धर्तरीसापेक्षाचे उदेंतेकडले गतीक लागून हो ह्या दोन मासांमदलो फरक आसा.

**पातबिंदू** (Nodes),**राहू आनी केतू:** चंद्राचे धर्तरेभोंवतणचे भोंवडेचो मार्ग (चंद्रकक्षा- जाका लागून धर्तरेवयल्या पळेतल्याक चंद्र उदेंतेकडेन व्हड गतीन वतासो दिसता) धर्तरेच्या सुर्याभोंवतणी भोंवडेच्या मार्गा पातळेवांगडा ५°८' इतलो कोन करता. चंद्राचो धर्तरेभोंवतणचो मार्ग ज्या दोन बिंदूंत धर्तरेच्या सुर्याभोंवतणच्या मार्गाक छेद करता, ताका पातबिंदू (Nodes) म्हण्टात. ह्या दोन बिंदूंक जोडपी रेशा म्हळ्यारूच चंद्रकक्षा आनी सूर्यमार्ग (सुर्याच्या नखेत्रांमदलो धर्तरीसापेक्ष मार्ग) हांच्या मदल्या छेदाची रेशा, ही थीर आसना. ही रेशा (पातरेशा) उरफाटे दिकेन घुंवता आनी तिचें एक पुराय आवर्तन जावपाक १८.६ वर्सां लागतात. चंद्र आपल्या मार्गावयल्यान वतना ह्या दोन पातबिंदूंतल्यान दोन वटांनी वता. ज्या बिंदूतल्यान तो सूर्यमार्गासकयल्यान वयर सरता, ताका राहू (Ascending Node) अशें म्हण्टात. ज्या बिंदूतल्यान तो सूर्यमार्गावयल्यान सकयल सरता, ताका केतू (Descending Node) अशें म्हण्टात. राहू-केतूक जोडपी पातरेशा, घुंवता आसतना दर ९.३ वर्सांउपरांत संपातबिंदूंक जोडपी रेशेलागीं एक जाता. सूर्यमार्ग आनी धर्तरेवयल्या विशुववृत्तासारक्या आशिल्ल्या नखेत्रांमदले भौगोलिक (celestial) विशुववृत्त (equator) हांचे जे दोन छेदबिंदू आसात, तांकां 'संपातबिंदू' अशें म्हण्टात. मार्च म्हयन्यांत सूर्य ज्या संपातबिंदूंकडेन येता, ताका 'वसंत संपात' म्हण्टात. जेन्ना राहू आनी वसंत संपात बिंदू एक जातात, तेन्ना सूर्यमार्ग आनी चंद्रकक्षा हांचेमदलो कोन २८° ३५' इतलो म्हळ्यार चडांत चड आसता. केतू आनी वसंतसंपांत जेन्ना एक जातात तेन्ना हो कोन १८° १९' इतलो आसता.

चंद्र वा सूर्य तांचे वर्सुकी भोंवडेवेळार राहू वा केतू बिंदूंकडेन आयिल्ले आसतना आनी धर्तरेवांगडा ते दोनूय एकेच रेशेंत येतकच गिराणां जावं येतात. चंद्र जेन्ना सूर्य आनी धर्तरेमदीं आसता तेन्ना सूर्यगिराण जाता. जेन्ना सूर्य आनी चंद्रामदीं धर्तरी येता, तेन्ना चंद्रगिराण जाता.

**चंद्रगतीः** चंद्राचो धर्तरेभोंवतणचो मार्ग (चंद्रकक्षा) मातसो लंबगोलाकार (elliptic) आसून धर्तरी ताच्या एका केंद्रार (focus) आसा. हे लंबगोलाकृतीचो विशेशांक (eccentricity) ०.०५५ इतलो आसा. चंद्राची गती ह्या मार्गार बदलत आसता. धर्तरेलागीं (उपभू- perigee) आसतना गती सगळ्यांत चड आनी धर्तरेपसून पयस (अपभू-apogee) आसतना गती सगळ्यांत उणी आसता. चंद्र दर दिसा सरासरी १३°१०' इतलो कोनाचो मार्ग चलता. पूण प्रत्यक्षांत ताचें हें चलप ११° ते १५° इतलें बदलत आसता. गतीवांगडा चंद्राचें धर्तरेपसूनचें अंतरूय बदलता. हें बदलप चंद्राच्या बिंबाच्या व्यासावयल्यान काडूं येता. चंद्राच्या बिंबाचो कोनिक व्यास (angular diameter) ३३° ३०' ते २९° २०' इतलो बदलता. चंद्राचो लंबगोलाकार मार्गूय थीर आसता. उपभू आनी अपभू बिंदूंक जोडपी भू-रेशा (major axis) चंद्र वता तेच दिकेन घुंवता. ह्या पुराय घुंवळीचो काळ ९ वर्सांइतलो आसा. हिप्पार्कस (इ.स.प. १६०-१२५) ह्या ज्योतिश्यान चंद्राच्या नक्षत्रमार्गावयल्यान बदलते गतीचो अभ्यास करून हो सोद लायलो. चंद्राची आपले भोंवतणी घुंवपाची गती (परिखिलन गती) बदलना. पूण चंद्राच्या मार्गावयल्यान बदलपी गतीक लागून चंद्राचो जो दिसपी भाग आसा, ताचे उदेंतेकडलो थोडो चड वा अस्तंतेकडलो थोडो चड भाग, जसो वेळ येता तेन्ना, धर्तरेवयल्या पळोवप्यांक दिसूं येता. हाका 'रेखांशांचें आंदोलन' (Libration of Longitudes) अशें म्हण्टात. चंद्राचो विशुववृत्त ताचे कक्षेचे पातळेवांगडा कोन करून आशिल्ल्यान 'अक्षांशांचें आंदोलन' (Libration of Latitudes) जाता.

धर्तरेवयल्यान पळोवप्याक चंद्राचो चडांत चड म्हळ्यार ५९% भाग दिसता. चंद्राक याम्योत्तर वृत्ताकडेन (Meridian) पावपाक दर दिसा ५०.५ मिनटां कळाव जाता. ह्या कळावाचें प्रमाण ३८ ते ६६ मिनटां मजगतीं आसता. ते पासत ताचें दर दिसाचें उदेवप आनी अस्ताक वचप ५०.५ मिनटांनी मुखार वता. धर्तरेवयल्यान पळेतल्याची अक्षांश स्थिती आनी चंद्राचें अयनांश (Declination) हाचेर चंद्राक दिसपट्टे भोंवडेक लागपी कळावाचो वेळ आदारून आसता.

**कोजागिरी चंद्रः** २२ सप्टेंबराउपरांत सूर्य विशुववृत्त हुपून दक्षिणायनांत वता, तेन्ना तो अस्तंतेकडल्या बिंदूंत अस्ताक वता. त्याच वेळार चंद्र उत्तरायणांतल्यान विशुववृत्त हुपून दक्षिणायनांत वता, तेन्ना चंद्राचो बिंदू उदेंतेकडेन आसता. ह्या परिणामाक लागून पुनवेचो दीस आसल्यार सूर्य अस्तंतेक वतना चंद्र उदेल्लो दिश्टी पडटा. उत्तरेकडेन चंद्राची गती चड आशिल्ल्यान रातीकडेन उण्यांत उणीं मिनटां उसरां उदेवप तर चडांत चड मिनटां उसरां अस्ताक वचप, असो ताचो कार्यकाळ आसता. कांय सुवातींनी चंद्राक उदेवपाक फकत २० मिनटां कळाव जाता. २२ सप्टेंबर दिसा जर पुनव नासत तर चंद्र दिसपाच्या ह्या वेळांत फरक आसूं येता. २२ सप्टेंबरासावन पुनव जितली पयस आसता, तितलो कमी वेळ चंद्र मळबांत दिसता. सूर्य शरदसंपात (Autumnal Equinox) ह्या बिंदूंत आसतनाच्या (२२ सप्टेंबर) लागींच्या काळांत जी पुनव येता, तिका 'कोजागिरी पुनव' (Harvest Moon) म्हण्टात.

उत्तरेकडल्या ६४.५° ह्या अक्षांशालागीं उदेवपाच्या आनी अस्ताक वचपाच्या वेळांतल्यान कळावांत एक संतुलन येवन एका फाटोफाट एक अश्यो दोन राती चंद्र एकाच वेळार उदेता. दुसऱ्या दिसा ताचे उत्तरेक, चंद्र आदल्या दिसा उदेवपाच्या वेळापरस बेगीन उदेता. धर्तरेच्या विशुववृत्ताच्या दक्षिणेकडल्या मध्य अक्षांशार उरफाटी घडणूक घडटा. हांगा उदेवपाच्या काळांतलो कळाव चडांत चड आसता आनी अस्ताक वचपाच्या वेळांतलो कळाव उण्यांत उणो आशिल्ल्यान चंद्र कमी वेळ दिसता. पूण २१ मार्च दिसा (दक्षिण गोलार्धांतलो शरद ऋतू) चंद्राचे दक्षिण द्रुतगतीक लागून उदेवपाच्या वेळांतलो कळाव उण्यांत उणो जावन चंद्र चडांत चड वेळ मळबांत दिसूं येता.

**कालमापन, पंचांग आनी चंद्रः** हिंदू कालमापन पध्दतींत अमास ते अमास असो एक म्हयनो मानतात. पयल्या पंदरा दिसांक शुक्ल पक्ष म्हण्टात. ह्या दिसांनी चंद्राचें बिंब वाडत वता. पंदराव्या दिसा पुनवेक चंद्राचो आकार पुराय जाता. निमण्या पंदरा दिसांत म्हळ्यार कृष्णपक्षांत

चंद्राचें बिंब ल्हान जायत वता. चंद्राचे हे कलेक लागून कालमापनाचे नवे परिणाम काडटात. चंद्राचो वट्ट म्हयनो २९.५३०५८८ दिसांचो आसता. चांद्र म्हयन्याच्या दर एका दिसाक 'तीथ' म्हण्टात. भारतीय पंचागांत चंद्राक खूब म्हत्व दिलां. भारतीय कुंडली मांडपाचे पध्दतींत जल्मावेळार चंद्र जे राशींत आसता, तीच त्या मनशाची जल्मरास मानतात. न्यूटन, क्लेरो, ऑयलर, हॅन्सन (१८५७), रॅडो (१९११), हिल ह्या शास्त्रज्ञांनी केल्ल्या संशोधनाचेर आदारून ई. डब्ल्यू. ब्राउन (१९२३) हाणें नक्षत्रांमदली गती गणितीय समीकरणांच्या रुपांत मांडून दिली. हेच पध्दतीवेल्यान चंद्राचें नक्षत्रांमदल्या सुवातींचें कोश्टक तयार केलां.

**चंद्राची भौतिक रचणूकः** चंद्राचेर उदक आनी वायू ना. चंद्राच्या गुरुत्वाकर्षणाचेर मात करून अंतराळांत वचपाक २.४ किमी./ सेकंड इतलो वेग पुरो जाता (escape velocity). हाका लागून वायूचे कण चंद्रार रावपाक शकनात. चंद्राच्या पृष्ठभागावयलें तापमान सूर्य तापता तेन्ना १२०°से. इतलें जाता आनी रातचें तें -१५०°से. इतलें आसता. चंद्राचेर खुबशीं ल्हान-व्हड फोणकुलां (craters) दिश्टी पडटात. हांकां प्लेटो, कॉपर्निकस, टायको, केप्लर आदी नांवां दिल्लीं आसात. नांवां दिवपाची ही प्रथा रिच्चिओली (१६५०) हाणें सुरू केल्ली. मेरी ब्लॅग, पॅट्रिक मूर ह्या शास्त्रज्ञांनी चंद्राचे नकाशे करपाचें म्हत्वाचें काम केलां.

**चंद्राचेर आशिल्ल्या दोंगराची उंचाय १८,००० फूट आसून ताच्यावयलीं फोणकुलां ज्वालामुखीक लागून पडलीं असो एक सिध्दांत आसा. चंद्र जेन्ना घट** जावंक नाशिल्लो तेन्ना ताका येवन आदळिल्ल्या फातरांक आनी उल्कांक (meteors) लागून हे फोण पडल्यात आसूं येता. तांचो व्यास २५० किमी. इतलो आसा. हेभायर सूर्यकिरणांभशेन एका मदल्या गोलासावन किरण भायर सरिल्ली रचनाय चंद्रार दिसून येता (Rills and Rays). चंद्राचे भुंयेंत पडिल्ल्यो वेरो किरणांवरी दिसतात. हांचो सोद श्रोटेक्स (१७८७) हाणें लायिल्लो. ह्या किरणांक लागून उल्कापाताच्या सिध्दांताक आदार मेळटा. गॅलिलिओन हाचेपयली चंद्रावयल्या पर्वताचे सांवळेवेल्यान तांची उंचाय मेजिल्ली. चंद्राचेर काळसर दर्यावरी दिसपी सपाट वाठार आसात, जांकां 'मारें' (Mare, अर्थ- दर्या) अशें म्हण्टात. चंद्राचेर आशिल्लो सगळ्यांत व्हडलो दर्या 'ओशनस प्रोसेलेरम' (Oceanus Procellarum: Ocean of Storms) 'तुफानाचो दर्या' हाचें क्षेत्रफळ धर्तरेवेल्या भूमध्य दर्यापरस चड आसा. चंद्राचो परावर्तन विशेशांक (Albedo) फकत ७% इतलो आसा. हालींच रशियन आनी अमेरिकन अंतराळ यानांनी चंद्रार वचून केल्ल्या संशोधनाप्रमाण चंद्राचो भूभाग बरो घट आसा, अशें सिध्द केलां.

**चंद्राची उत्पत्तीः** चंद्राची उत्पत्ती कशी जाली हाचेविशीं सद्या तीन विचारप्रणाली प्रचलित आसात. विभाजन सिध्दांत (Fission Theory) हाचेप्रमाण धर्तरी जेन्ना थंड जावपाक लागली तेन्ना लोखणाचो गाभो (core) निर्माण जातकच भायलें वस्तुमान ताच्या घुंवपाक लागून पयस वचून पातळूंक लागलें. पातळटा- पातळटां भायल्यान एक कांकण कशें तयार जावन त्या काकणांतलें वस्तुमान एकठांय येवन चिकटून एक गुळो कसो जालो आनी चंद्राची उत्पत्ती जाली.

चंद्र आनी धर्तरी एकाच वेळार थंडेवन, आशिल्ल्या वस्तुमानाचे वांगडाच दोन गुळे जाले आनी एकामेकांच्या गुरुत्वाकर्षणाक लागून एका भोंवतणी दुसरो घुंवपाक लागलो, असो दुसरो सिध्दांत आसा. तिसरे विचारप्रणालीप्रमाण चंद्र हो सूर्याभोंवतणी पूण धर्तरेलागींच घुंवतना धर्तरेन ताका आपल्या गुरुत्वाकर्षणान आपले भोंवतणी घुंवपाक लायलो अशें मानतात.

**चंद्र आनी मनीसः** रशिया आनी अमेरिका (U.S.A.) ह्या दोन देशांनी चंद्रार आपलीं जायतीं अंतराळयानां धाडलीं. मनशान चंद्राचेर पयलें पावल दवरपाचें श्रेय अमेरिकन अंतराळवीराक वता. लुनिक I, II, III हीं रशियाचीं पयलीं चंद्राकडेन वचपी यानां जावन आसलीं. १९५९ त, लुनिक III ह्या यानान चंद्राच्या लिपिल्ल्या आंगाचे फोटे घेवन धर्तरेचेर धाडले. ताचे उपरांत अमेरिकेन आपले रेंजर VII, VIII, IX ह्या यानांवरवीं चंद्राचो अभ्यास केलो. रेंजर यानांनी चंद्राच्या पृष्ठभागाचेर देंवन ताचो अभ्यास केलो, जाल्यार लुनिक यानांनी फकत चंद्राक लागींच्यान प्रदक्षिणा घालून ताचें संशोधन केलें.

मनशाखेरीज पूण नियंत्रणाखाल चंद्रार देंवपी पयलें यान म्हळ्यार रशियाचें लुना ९. लुना ९ ह्या यानान चंद्राचो पृष्ठभाग घट आसून ताचेर कितेंय उबें रावंक शकता हें सिध्द केलें. ह्या यानान धाडिल्ल्या फोटोंवरवीं चंद्राविशीं खूब म्हायती मेळ्ळी. ताचेफाटोफाट अमेरिकेच्या सर्व्हेयर आनी ऑर्बिटर ह्या यानांनी चंद्राच्या सगळ्या भागांचे अभ्यास करपी फोटो घेतले. मनशाक चंद्रालागीं व्हरपी पयलें यान म्हळ्यार अपोलो ८ (१९६८). अपोलो ९ ह्या यानांतल्या अंतराळवीरांनी चंद्रार देंवपी लुनर मॉड्यूल ह्या यानाची चांचणी घेतली. अपोलो ११ ह्या यानार आशिल्ल्या तीन अंतराळवीरांतले नील आर्मस्ट्राँग आनी एडविन आल्ड्रीन हांणी 'ईगल' यानावेल्यान २१ जुलय १९६९ दिसा २.५६ G.M.T. ह्या वेळार चंद्राचेर पयलें पावल दवरलें. तांचो तिसरो वांगडी मायकेल कोलिन्स हो चंद्राभोंवतणी घुंवतल्या कमांड मॉड्यूलांत रावलो. तांच्या उपरांत आनीकूय कांय अपोलो यानांवरवीं कांय अंतराळवीर चंद्रार गेले. तातूंतलीं कांय म्हत्वाचीं नांवां अशीं: अपोलो १२ (अंतराळवीरः कॉनरेड, बीन, गार्डन), अपोलो १४ (अंतराळवीरः ॲलन शेपर्ड, मिचेल, रुसा), अपोलो १५ (अंतराळवीरः स्कॉट, अर्वीन, वोर्डन; हातूंतल्या स्कॉट आनी अर्वीन हांणी चंद्राचेर एक इलेक्ट्रीक मोटरकारूय चलयली), अपोलो १६ (यंग, हिल), अपोलो १७ (सेर्नान, श्मिट्ट). नोव्हेंबर १९७० त, रशियान लुना १७ ह्या आपल्या यानांतल्यान 'लुनोखोड' ही आपशींच चलतली गाडीय धाडिल्ली.

- डॉ.अरुण हेबळेकार

संदर्भः 1. Barrie, W.J.; The Solar System; Pergauon Press, Oxford, 1984; 2. Moore, Patrick; The Unfolding Universe, London, 1982; 3. Chamber's Encyclopaedia Vol.IX (London, 1955); ४. ढवळे, त्र्यं. गो.; पंचांगांतील ज्योतिःशास्त्र; (बहिःशाल शिक्षण मंडळ, पुणे विद्यापीठ, पुणे १९५८); ५. ढवळे, त्र्यं. गो.; राहू-केतू आणि ग्रहणेः (बहिःशाल शिक्षण मंडळ, पुणे १९६०).

**चंवरां:** चंवरां वा चंवर ही राजेशायेची वा अधिकाराची कुरू म्हूण भारतीय संस्कृतायेंत पोरन्या काळासावन मानताले. चंवरांक राजशायेच्या परंपरेंत खाशेलें म्हत्व आसलें. दुसऱ्या अर्थान चंवरां ही राजाची मानचिन्हां आसलीं.

संस्कृत ग्रंथांत चंवराचो 'चामरं श्रीकरं दिव्यं राज्यशोभाकरं परम्' म्हळ्यार चंवर हें लक्ष्मीप्रद, दिव्य आनी श्रेश्ठ अशा राज्यांक सोबाय हाडपी साधन आसा, अशें म्हळां. पूर्विल्ल्या काळांत भारत तशेंच आशिया खंडांतले चडशे राजा छत्र-चामरां धारण करताले. हाचेवेल्यान चंवरांची उत्पत्ती पूर्विल्ल्या काळांत जाल्ली हें समजता.

चमर नांवाच्या हरणाचे शेंपडेसावन वा याक नांवाच्या रानबैलाचे शेंपडेसावन चंवरी करतात. चंवरांची मूठ भांगराची, रुप्याची वा हतयाच्या दांतांची तयार केल्ली आसता.

पोरन्या ग्रंथांनी चंवरांचो फुडलेतरेन उल्लेख येताः कालिदासाच्या रघुवंशांत रघुराजाचो जल्मप्रसंग वर्णन करतना दिलीपाच्या छत्र-चामरांचो उल्लेख आयला. विनयग्रंथांत (भाग ३) देवाची वा एकाद्र्या व्हड मनशाची पालखी भायर सरता तेन्ना ताचेर चंवऱ्यो हालयतात, अशें म्हळां. चंवऱ्यो वापरपाचो अधिकार फकत राजाक आशिल्ल्यान, बौध्द भिक्षूंनी चंवरी वापरची न्हय अशी बुध्दाची आज्ञा आसली अशें विनयग्रंथ मुखार म्हण्टा. सद्याक तरी चंवराचो उपेग देवमंदिरांत आनी देवाचे पालखे पुरतोच मर्यादित उरला.

- कों. वि. सं. मं.

**च:** देवनागरी वर्णमालेंतलें सवें आनी च वर्गांतलें पयलें व्यंजन. हाचो उच्चार ताळवेंतल्यान जाता. ह्या व्यंजनाक तीन अवस्थांतल्यान वचचें पडलें.



'च' च्या रुपाचो विकासक्रम

पयलीं अशोकाच्या गिरनार हांगाच्या लेखांत, दुसरी इ.स. पयल्या वा दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या मथुरेच्या लेखांत आनी तिसरी इ.स. च्या इकराव्या शेंकड्यांतल्या उज्जयिनीच्या लेखांत दिसून येता. पूण हो 'च' आनी सद्याचो 'च' हातूंत बरोच फरक आसा.

वर्णोध्दारतंत्र नांवाच्या ग्रंथांत ह्या वर्णाच्या स्त्रीरुपांतल्या ध्यानाचें वर्णन केलां, तें अशें:

तुषारकुन्दपुष्पाभां नानालङ्कारभूषिताम् ।
सदा षोडशवर्षीयां वराभयकरां पराम् ।
शुक्लवस्त्रावृतकटिं शुक्लवस्त्रोत्तरीयिणीम् ।
वरदां शोभनां रम्यामष्टबाहुसमन्विताम् ।
एवं ध्यात्वा चकारं तु तन्मन्त्र दशधा जपेत् ।

(शब्दकल्पद्रुम)

अर्थ- तुषार वा कुंद हांचे कांतीचे, तरांतरांचे अलंकार धारण केल्ले, सोळा वर्सांचे, सदांच वरद आनी अभय ह्यो मुद्रा दाखोवपी, श्रेश्ठ, धवें लुगट उत्तरीय म्हूण न्हेसपी, वर दिवपी, सुंदर आनी अष्टभुज अशे चकारात्मक देवतेचें ध्यान करून तिचो मंत्र धा खेपो जपचो.

- कों. वि. सं. मं.

**चकवे:** चकवे हो कोंकणी लोकगीतांचो एक प्रकार जावन आसा. कोंकण वाठारांतले कोळी आनी भंडारी लोक हीं गीतां गायतात. चकवे हो गीतांप्रकार तीन पोटभागांनी वांटला.

पयले तरेच्या चकव्यांत व्हडेकारांचो आपले व्हडयेवयलो मोग, खंखाळ दर्याकडेन दोन हात करपाची धिटाय, ह्यो गजाली चकव्यांतल्यान व्यक्त जातात. व्हडेकार हो मोगी तर व्हडें ही मोगीका, असो अर्थ ह्या चकव्या भितर दडिल्लो आसता.

दुसरे तरेच्या चकव्यांतलें गीत, एक दुसऱ्यांचे नसायेन भरिल्लें, टिकेच्या रुपांतलें, अशें आसता. हे तरेचीं गीतां कोंकणी दादले-बायलो रानांतल्यान भोंवतना म्हण्टात.

तरनाट्या- जुवान चले-चलयांचीं मोगागीतां हो चकव्याचो आनीक एक खाशेलो भाग जावन आसा. हे चकवे होंवयेवरी दोन-तीन वळींचे आसतात.

देखीक-

जाय बाये जाय परमळु काय
मी तुजी जाय तू माजा मोगरा
चल जाउ दोंगरा दोगांय जाणां
दोंगरासुन येतानां जाली रात
केगदीच्या फुलात पेटयली वात

चकवे वा चकवा हें नांव चक्रवाक ह्या उतरावेल्यान आयलां आसुंये असो दुभाव परगटावपाक येता. मैथिली, भोजपुरी, छत्तिसगढी, हेर गीतांत मेळपी चकवा ह्या उतरांचें मूळ 'चक्रवाक' हें उतरच जावन आसा.

चक्रवाक नांवाच्या एका सवण्याची जोडी दीसभर तळ्यादेगांनी भोंवता. पूण रात जातकच तांकां दिश्टी पडना. त्या दोगांयमदीं एकाद्रें कमळाचें पानय आड आयल्यार तीं दोगांय जाणां एकामेकांक सोदपाक शकनात. मागीर तीं दोगांय जाणां दुख्खान रातभर रडटात. तांच्या ह्या विरहदुख्खावेल्यान, मोगाचो विरह आशिल्ल्या लोकगीतांक 'चकवे' म्हणपाची चाल पडली.

छत्तीसगढ, छोटा नागपूर, हेर वाठारांतल्या लोकांच्या तोंडांत आशिल्ल्या चकई गीतांची रचणूक चकव्यावरींच आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**चक्र:** आपलेच भोंवतणी वाटकुळे भोंवतडे मारपी वस्तीक सादारणपणान 'चक्र' अशें म्हणपाची चाल आसा. देखीक- श्रीकृष्णाचें सुदर्शन चक्र, गाडयेचें चाक, कुमाराचें मडके करपाचें चाक, चरखो हांकां 'चक्र' म्हण्टात. कांय वाटकुळ्या पूण थीर वस्तींकूय 'चक्र' म्हण्टात. देखीक- अशोकचक्र, धर्मचक्र हेर.

चक्र हे वस्तीची उत्पत्ती वैदिक काळापयलीं जाल्ली हें ऋग्वेदांत आयिल्ल्या चक्राच्या उल्लेखावेल्यान स्पश्ट जाता. वैदिक लोकांनी चक्राचो उपेग रथ घडोवपाखातीर केलो. ईजिप्त आनी मेसापोटेमिया देशांनी चक्राचो उपेग वाहनाखातीर केलो. हीं चक्रां नवाश्म युगांत घडलीं. ह्या चक्राक आरे नासताले पूण चक्रांभितर आस बसयताले. क्रिस्ताच्या ५,००० वर्सांआदीं आरे आशिल्लें चाक भारतांत घडलें अशें मानपाक येता. ऋग्वेदांत (१.१६४.४८) बारा आऱ्यांचें चक्र आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. आरे आशिल्लें चाक युरोपांत २७०० वर्सां (क्रिस्तापयलीं) पयलीं घडलें, अशें सांगतात. कुंभाराचें मडकीं करपाचें चक्र ईजिप्त देशांत ३,००० वर्सां (क्रिस्ताआदीं) पयलीं घडलें अशें मानतात.

चक्राच्या सोदाचो, मनीस जातीक व्हड फायदो जालो. चक्रांक लागून मनशांक थोडीशी शक्त वापरून चड काम करप शक्य जालें. वैदिक काळार रथ घडोवपाक, नवाश्मयुगांत वाहनां घडोवपाक, आर्विल्ल्या युगांतलीं विंगड विंगड यंत्रीक तशेंच येरादारीचीं साधनां घडोवपाक चक्राचो वा चाकाचो वांटो व्हड आसा.

आयुधरूपी चक्राचे स उपेग अग्नी पुराणांत सांगल्यात.

छेदनं, भेदनं पातो भ्रमणं शयनं तथा ।
विकर्तनं कर्तनञ्च चक्रकर्मेदमेव च ।।

अर्थ- कापप, फोडप, पाडप, घुंवडावप, लोळोवप, कोरांतप, कुडको करप अशे चक्राचे स उपेग सांगल्यात.

वेदांत चक्राचे फुडलेतरेन उल्लेख आयल्यातः

वैदिकांनी नाभी (मध्यभाग) आनी आरे अशे चक्राचे दोन भाग मानल्यात. त्याकाळार चक्राचे घटसाणीचेर चड भर दिताले. कांयकडेन रथांक दोनापरस चड चक्रां आसतालीं.

त्रिवन्धुरेण त्रिवृता रथेन त्रिचक्रेण सुवृता यातमर्वाक्।

(ऋग्वेद १.११८.२)

अर्थ- हे घोड्याचेर बशिल्ल्यानो, तीन वंधुरांनी युक्त (त्रिवक्र), त्रिकोणाकृती आनी तीन चक्रां आशिल्ल्या सुंदर रथांत बसून हांगा येयात.

सुर्याचोय संबंद चक्रालागीं जोडिल्लो दिश्टी पडटा. सूर्य आपल्या एकचक्राच्या रथांतल्यान मळबांत भोंवता अशी समजूत आसा. वैदिक आर्य यज्ञ सुवाळ्यांत सूर्याचो प्रतिनिधी म्हूण 'चक्राक' मान दिताले. सूर्य रुपान जळपी चक्र आनी पृथ्वीवेल्यान चलपी चक्र हांचो संबंद दाखोवपी एक विधी ब्राह्मणग्रंथांत आसा. त्या प्रसंगार रथचक्र भोंवडायता आसतना सुर्याचोच मंत्र म्हण्टात. ताचेवेल्यान कालचक्र आनी सूर्य हांचें म्हत्वाचें नातें नदरेक येता. दीर्घतमा ऋषीक कालचक्राचो साक्षात्कार सगळ्यांत पयलीं जाल्लो. तो म्हण्टा:

द्वादशारं नहि तज्जराय
वर्वर्ति चक्रं परि द्यामृतस्य

(ऋग्वेद १.१६४.११)

अर्थ- ह्या चक्राक बारा आरे आसात. ते झिजनासतना आसमंतांत सदांच भोंवत आसतात.

पृथ्वी चक्रावरी वाटकुळी भोंवत आसता. सूर्यय तेच रितीन घुंवता. दिसा फाटल्यान रात घुंवता. चैत्रा फाटल्यान वैशाख, वैशाखा फाटल्यान ज्येष्ठ, जेष्ठा फाटल्यान आशाढ अशें मास-चक्र घुंवता. शिशिराफाटल्यान वसंत, वसंता फाटल्यान ग्रीष्म अशें ऋतूचक्र घुंवता. संवत्सरा फाटल्यान

संवत्सर, मन्वंतर(फाटल्यान मन्वंतर, कल्प फाटल्यान कल्प अशीं ल्हान चक्रां घुंवत आसतात.

महाभारतांत, उत्तंक गुरुपत्नीखातीर कुंडलां हाडपाक गेल्यावेळार एक आगळें-वेगळें चक्र पळयिल्ल्याचें आपल्या गुरुक सांगता, तेन्ना गुरु उत्तंकाक तें वर्सचक्र आशिल्ल्याचें सांगून त्या चक्राचे तीनशें साठ आरे म्हळ्यार तीनशें साठ दीस, चोवीस पुट्टे म्हळ्यार वर्साचे कृष्ण आनी शुक्ल पक्ष तर चक्र घुंवडावपी स ल्हान भुरगे म्हळ्यार स ऋतू आशिल्ल्याचें सांगता.

महाभारताच्या आदिपर्वांत सुदर्शनचक्रा वरवीं श्रीकृष्णान शिशुपालाक मारिल्ल्याचो उल्लेख येता. मोहिनीचें रूप घेवन विष्णून सुदर्शनचक्रावरवीं 'राहू' ह्या दैत्याक मारिल्ल्याचे उल्लेख पुराण ग्रंथांनी येतात. दैत्यांभितर 'मुंड' हो चक्र धारण करतालो. ताचें एके देवतेबरावर झूज जालें तेन्ना तो चक्रावरवीं झुजलो अशें मार्कंडेय पुराणांत मेळटा. सद्याच्या अर्विल्ल्या युगांत 'चक्राचो' झुजारी अस्त्र म्हूण उपेग जायना पूण पंजाबांतले शीख लोक चक्राचो असो उपेग केन्नाय करतात.

हरिभक्तिविलासांत, विष्णूच्या वा कृष्णाच्या देवळांत बारा आऱ्यांचें, स कोनांचें, तीन वलयांचें चक्र भक्तांनी स्थापन करचें, अशें सांगलां. दक्षिणेंत वैष्णव मंदिरांत चक्र हें स्वतंत्र देवतेच्या रुपान पूजतात.

चक्राचे विंगड विंगड भेद फुडलेतरेन आसात.

**कुलालचक्रः** हें कुमाराचें चाक ज़ावन आसा. ह्या चाकाच्या मध्यभागाचेर चिकणमातयेचो गुळो दवरून तें चाक नेटान घुंवडायतात. मागीर कुमार ते मातयेच्या गुळ्याक जाय तसो आकार दिवन ल्हान-व्हड गाडगीं मडकीं घडयता. ईजिप्ताक ह्या चक्राक 'देवाली भेट' मानतात. ताका 'प्टा' हे देवतेचें प्रतीक मानतात. चीन आनी भारत ह्या देशांतूय ताका एक 'धर्मीक चिन्ह' मानलां. भारतांत ताका सृष्ट्युत्पत्तीचें प्रतीक समजतात. कुमाराचें चक्र म्हळ्यार 'विश्वचक्र' आनी कुमार म्हळ्यार परमेश्वर अशी समजूत केल्ली मेळटा.

**धर्मचक्रः** चक्र हें भारतांत पूर्णत्वाचें (पुरायपणाचें) प्रतीक थारलां. उपनिषदकाळार धर्मचक्रांक गूढ शक्तीची कुरू मानताले. भगवान बुध्दान गिन्यानाची प्राप्ती करून घेतकच सारनाथ हांगा आपल्या शिष्यांमुखार जें पयलें प्रवचन केलें, ते घडणुकेक बौध्द साहित्यांत 'धर्मचक्र-प्रवर्तन' अशें म्हळां. हें धर्मचक्र अखंड नेटान घुंवत रावचें म्हूण सम्राट अशोकान खूब कश्ट घेतले. अशोकस्तंभाचेर जें चक्र दिश्टी पडटा, तें धर्मचक्राचें प्रतीक जावन आसा. चक्र हें सामुद्रिक शास्त्रातलें शुभचिन्ह आसून तें हाता पायांचेर आसप, बरे गजालीची कुरु मानतात. बुध्दाच्या पांयार जीं पासश्ट शुभचिन्हां आसलीं तातूंत चक्र हें एक आसलें.

**राजचक्रः** पूर्विल्ल्या काळासावन चक्र हें सार्वभौम राजाचें प्रतीक मानलां. अशा सार्वभौम सम्राटांक 'चक्रवर्ती' म्हणपाची चाल आसली. चक्र म्हळ्यार राजाचो शेक चलपी वाठार मानताले. तांचो राजा तो चक्रवर्ती, अशें म्हण्टाले. इराण तशेंच भायल्या कांय देशांभितर चक्र आनी साम्राज्य हांचे भितर लागींचो संबंद आशिल्लो दिसता. राज-चक्रासंबंदान बुध्दाची कल्पना फुडलेतरेन आसाः

चक्रवर्तीचो राज्यभिशेक जाता तेन्ना एक भांगराचें चक्र मळबांतल्यान सकल देंवता आनी चक्रवर्तीच्या राजदरबारांत थीर जाता. ताचो मरणकाळ लागीं पावतकच तें आडवें पडटा. तो मरतकच गुप्त जाता. शिंवासनाचेर बसपी चक्रवर्तीचो वारस जर राजनीतीक जागपी आसत जाल्यार तें चक्र परतें दिश्टी पडटा.

**सहस्त्रार चक्रः** बुध्दाचें महानिर्वाण जालें तेन्ना ताचे मेल्ले कुडीलागीं सहस्त्रार चक्र दिश्टी पडिल्लें असो उल्लेख बौध्दसाहित्यांत मेळटा. ह्या सहस्त्रार चक्राची कल्पना सुर्याचीं किरणां सहस्त्र आसतात हाचेवेल्यान आयली.

**षट्चक्रः** योगशास्त्रांत षट्चक्राचो उल्लेख आनी ताचें खोलायेन केल्लें वर्णन मेळटा. मूलाधार, स्वाधिष्ठान, मणिपूर, अनाहत, आज्ञा आनी सहस्त्रार अशीं ताचीं नांवां आसात. हीं चक्रां समवेदक स्नायुमंडलात विंगड विंगड जाग्यार आसतात. ह्या षट्चक्रांचो भेद करून अमृतत्त्व मेळोवप वा ब्रह्मभाव प्राप्त करून घेवप होच कुंडलिनीयोगाचो मुखेल उद्देश.

**कर्मचक्रः** चक्र हें कर्मांचें प्रतीक मानलां. गीतेंत (३.१६) 'हेंप्रमाण जगाच्या धारणार्थ सुरू केल्लें चक्र (कर्माचें वा यज्ञाची परंपरा) जो फुडें चलयना ताचें आयुश्य पातकांनी भल्ला' अशें म्हळां.

जिविताचे ऊंच-सकल दिकेक 'चक्रनेमिक्रम' म्हण्टात. चक्रनेमिक्रम म्हळ्यार वयले आरे सकल येवप आनी सकयले वर वचप. कालिदास (उत्तरमेघ ४९) म्हण्टा, 'नीचैर्गच्छत्युपरि च दशा चक्रनेमिक्रमेण' मनशाची दशा चक्रनेमिक्रमाने सकयल वयर जायत आसता.

**तांत्रिक चक्रः** तंत्रवाङ्मयांतल्या श्रीचक्राची तंत्रमार्गी लोक आदिशक्तीचें प्रतीक ह्या रुपान पूजा, उपासना करतात. मनशाचे कुडींत आनी भायल्या जगांत जायत्या प्रकारांचीं चक्रां आशिल्ल्याचें तांत्रिक लोक सांगतात. देखीक- मायाचक्र, योगचक्र, तालुचक्र, दीप्तिचक्र, शांतचक्र, आनंदचक्र, स्थितिचक्र, निर्वाणचक्र, संहारचक्र, भासाचक्र, शिवचक्र, ब्रह्मचक्र, महासुखचक्र आनी अशीं बत्तीस चक्रां तांणी मानल्यांत.

**आयुधचक्रः** शुक्रनीती आनी नीतीप्रकाशिका ह्या ग्रंथांत चक्र ह्या आयुधांचें वर्णन आयलां. चक्र ही वाटकुळी तबकडी आसून तिचो घेर हे हात आसता. मर्दीं एक बुराक आसता, अशें ह्या ग्रंथांनी म्हळां. अग्नी पुराणांतय चक्राची म्हायती आनी उपेग सांगल्यात. आयुधचक्र कशें घडोवचें ह्या संबंदान जो श्लोक येता तो असोः

> चक्रं षड्हस्तपरिधि क्षुरप्रान्तं सुनाभियुक् ।
> त्रिहस्तदण्डं त्रिशिखं लोहदन्तं सपाशकम् ।।

अर्थ- चक्राचो परिघ स हातांचो आसचो. ताका भायल्यान वस्तऱ्यासारखी धार आसची. ताची नाभी बरी आसची. तातूंत तीन हात लांब दांडो बसोवचो. चक्राच्या पात्यांक तीन शिखो आसच्यो. ताका लोखणाचें दातें करचें. हें दातें भोंवडावपाक पाश आसचो. पाशाच्या आदारान चक्र गोल घुंवडावन पयस उडयतात, तेन्ना दांडो हातांत उरता.

जैन धर्मांत सिध्द चक्राक व्हड मान आसा. विसाव्या शतकांत क्रांती घडोवपी चरख्याचें चक्र, महात्मा गांधीच्या स्वावलंबनाच्या धड्याची देख जावन आसलें. चरख्याक धर्मचक्रप्रवर्तनच मानलां. कांय राजकी पक्ष चक्राक आपली राजकी निशाणी करूंक फाटीं रावले नात. थांबनासतना मुखार वचपाचो हावेस आनी संरक्षण हीं दोनूय तत्त्वां चक्रांतल्यान स्पश्ट जातात. चक्राचो वाटकुळो आकार केन्नाच न सोंपपी परंपरा दाखयत जादूटोणे आनी भूतविद्येंत चक्राक एक म्हत्वाची वस्त म्हूण लेखतात. बायलो आनी ल्हान भुरग्यांच्या हातांत कांकणां आनी पांयांत वाळे घालतात ते चक्रावरीं वाटकुळे आसतात, हाचें फाटलें कारण बायल-भुरग्यांची भुतां-खेतांसावन राखण जावची हेंच आसता. संवसार हेंय एक चक्र आसून तातूंतल्यान मुक्त जावपाचें आसल्यार, सुवर्णचक्राचें दान करचें, अशें मत्स्यपुराणांत म्हळां. हातांवेल्या, बोटांवेल्या, तळव्यांच्या चक्राच्या कुरवांवरवीं ज्योतीशशास्त्र एकाद्रे गजालीचें येस-अपेसय थारायता. ह्यावेल्यान लोकांची चक्रावेली श्रध्दा सिध्द जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## चक्रधरः (जल्मः इ.स. ११९४; मरणः इ.स. १२७४).

एक नामनेचो संत. ताचें मूळ नांव हरिपाळदेव अशें आसलें. ताचो बापूय विशाळदेव, भरवस (भडोच, गुजरात) हांगाच्या मल्लदेव राजाचो प्रधान आसलो. ताचे आवयचें नांव माल्हणदेवी अशें आसलें.

हरिपाळदेवाचे आवय-बापूय दत्ताचे भक्त आसले. श्री दत्तात्रयाचे कृपेन हो चलो आपल्यागेर जल्मला, असो तांचो भावार्थ आसलो. तांणी ताका वेद, पुराणां, राजकारण, भाशा, ज्योतीश, झूज ह्या गजालींचें शिकप दिलें आनी वयांत येतकच ताचें कमळाईसा नांवाचे चलयेकडेन लग्न केलें. फुडें हरिपाळदेवाक जुगाराचें व्यसन लागलें आनी ताचें घरादारावेलें लक्ष गेलें. ताची भलायकी इबाडली आनी ताका मरण

आयलें.

हे उप्रांतची कथा एके दंतकथेच्या रुपान चलता:

हरिपाळदेवाचें प्रेत मसंडेंत व्हरतकच एक विस्मित घडलें. चांगदेव राऊळ हाच्या आत्म्यान हरिपाळदेवाचे कुडींत प्रवेश घेतलो. हरिपाळदेव जितो जावन उठून बसलो. आपलो भुरगो जितो जालो, हे गजालीचो विशाळदेवाक खूब आनंद जालो. हरिपाळदेवाक जडिल्लें जुगाराचें व्यसन काय सुटलें ना, पूण ताणें आपले कुडींत ईश्वराचे देहधर्म आनी जीवधर्म आस्पावन घेतले आनी तो आपलो संवसार सदांवरी मुखार चलोवपाक लागलो.

एक फावट जुगार खेळतासतना हरिपाळदेवाक, खेळ हारिल्ल्यान खूब लुकसाण जालें. तें लुकसाण फेडपाखातीर ताणें बायलेकडेन भांगर-शिंगर मागलें, पूण बायलेन भांगरा वस्ती दिवपाक न्हयकार दितकच हरिपाळदेव खंती जालो. ताचें कसलेच गजालींत मन रमना जालें. निमाणें खऱ्या सुखाचो सोद घेवपाखातीर घराचो त्याग करपाचो निर्णय ताणें घेतलो.

तो महाराष्ट्रांतल्या ऋध्दिपूर (ता. मोशी, जि. अमरावती) हांगा गेलो. थंय ताका गोविंद प्रभू हो संतपुरुस मेळ्ळो. ताणें ताका आपलो मानून, स्वताच्या तोंडांतलें मक्याचें कणस उश्टो प्रसाद म्हूण उडयलो. हरिपाळदेवान तें वयलेवयर जिखून खालें आनी गोविंद प्रभूकडल्यान शिष्यत्व आपणायलें. त्याच वेळार गोविंद प्रभून हरिपाळदेवाचें नांव 'चक्रधर' अशें दवरलें.

चक्रधरान ते उपरांत सालबर्डीच्या दोंगरार खर तप करून गिन्यान जोडलें. तातूंतल्यान ताका सत्य, अहिंसा आनी समता ह्या तीन तत्त्वांचेर आदारिल्ले मनीस जातीचें कल्याण दिश्टी पडलें. ह्या तीन तत्त्वांचो प्रसार करपाखातीर आपलो जल्म सार्थकाक लावपाचें ताणें थारायलें.

नागपूराक काटोल गांवालागसार कांतीनगर हांगा उधळीनाथ नांवाच्या साधूकडल्यान ताणें 'वयस्तंभनी' म्हळ्यार सदांकाळ जुवान उरपाची विद्या मेळयली.

एक फावट आंध्र प्रदेशांत तुंगभद्रा न्हंयचेर उदक पिवंक गेल्लेकडेन तो निसरून उदकांत पडलो आनी व्हांवत वरंगळ गांवांत पावलो. त्या गांवांत घोडे विकपाक कांय वेपारी आयिल्ले. तांच्यामव्हऱ्यांत चक्रधर गेलो आनी घोड्याच्या विंगड विंगड जातींचें वर्णन ताणें तांचेमुखार केलें. ताचे विद्वत्तेचेर प्रसन्न जावन एका वेपाऱ्यान आपली चली हंसाबा हिचें लग्न ताचेवांगडा करून दिलें. पूण ताचो होय संवसार चड दीस तिगलो ना. ताणें पर्थून बायल-घराचो त्याग केलो आनी भोंवडेक भायर सरलो. चक्रधराचो एक शिष्य रामदरणा, हाची चली उमादेवी हिचेकडेन तो आनीक एकदां लग्न जालो, अशें म्हण्टात.

चक्रधराक मराठी, गुजराती, संस्कृत ह्यो तीन भासो बरेतरेन येताल्यो. संस्कृत भाशेचेर आशिल्ल्या ताच्या प्रभुत्वाक लागून ताचे मराठीक एक आगळीच सोबीतकाय मेळिल्ली. ताणें स्वता कसलोच ग्रंथ बरयलो ना. पूण ताच्या शिष्यांनी तागेल्या उपदेशाचें गांठवल करून 'सूत्रपाठ' आनी 'दृष्टान्तपाठ' हे ग्रंथ रचल्यात. चक्रधराचो एक शिष्य म्हाईंभटान चक्रधराच्या लीळाचरीत्राची पोथी तयार केल्या.

चक्रधराच्या मठांत कडक शिस्त आसताली. पूण हेर गजालींविशीं ताचें मन मोगाळ आसलें. मनीसूच न्हय तर मुयेसारक्या ल्हान जिवाक लेगीत त्रास दिवं नाकात, अशें तो सांगतालो. ल्हान भुरगीं ताका खूब आवडटालीं. विरक्ती, निःस्पृहता, वक्तृत्व हे सद्गुण ताच्या आंगांत आसले.

चक्रधराचो दिसपट्टो वावर अशेतरेन आसतालो: सकाळचीं सगळीं कामां आटपीतकच तो शिष्यांक निरूपण करतालो. कांय फावट निरूपण करचें सोडून चिंतनय करतालो. चक्रधर दिसपट्टो न्हायनासलो. तो दर चार दिसांनी न्हातालो तर आठ दिसांनी खाडमिश्यो काडटालो. बाइसा ही ताची शिष्या दर दिसा ताची पूजा करताली. मागीर भक्तां वांगडा तो भोंवपाक वतालो. भोंवन परतो येतकच ताची परती पूजा जाताली. हे पुजेउपरांत जेवण घेवन तो विसव घेतालो. विसव घेवन जातकच सगळ्या भक्तां मुखार ताची पर्थून निरूपणाची कार्यावळ जाताली. सांजवेळा खासा पूजाविधींत चक्रधराची पूजा जाताली, तेन्ना ताचे कुडीर विंगड विंगड फुलांचे झेले घालताले. चक्रधराचे पुजेउपरांत धूपार्ती, मंगळार्ती ह्यो कार्यावळी जाताल्यो. रातचें जेवण जातकच बाइसा आनी भटोबास हांचेपुरतें एक निरुपण जातालें.

चक्रधराचो शिष्यांचो पंगड खूब व्हड आसलो. तातूंत भांडाराचो नीलभट भांडारकर, अळजपूरचो रामदरणा, वडनेरचो रामदेव विद्यावंत, मेहेकर गांवची बोणाबाई, पैठणची नागुबाई वा बाईसा, म्हाईंभट आनी चक्रदेवाच्या तत्त्वगिन्यानाचो प्रसार करपी नागदेवाचार्य हे मुखेल शिष्य आसले.

चक्रधराच्या जिवितांतलें सगळ्यांत व्हड कार्य म्हळ्यार 'महानुभाव पंथाची' थापणूक. हो पंथ ऊंच-उणाक, वर्णभेद मानी नासलो. फुडें पैठणाक चक्रधरान संन्यास घेतलो आनी जीवोध्दाराच्या कार्याक आरंभ केलो. ताणें पुराय महाराष्ट्रभर भोंवडी केली आनी जांकां फावतालें तांकां योग्य तें गिन्यान दिलें, मोग दिलो. जे मोग वा गिन्यान घेवपाक फाव तशे नासले, तांचेकडल्यान 'पुण्यकृत्यां' करून घेतलीं. वाट चुकिल्ल्यांक बरे चलणुकेची देख दिवन देवाचे सेवेक लायले.

शंकराचार्यान ब्रह्म ही एकच वस्त, नित्य मानल्या तर चक्रधर जीव, देवता, प्रपंच, परमेश्वर ह्यो चार वस्ती नित्य मानतालो. ह्या चार वस्तींचें मनशाक पुराय गिन्यान मेळोवन दिवपाखातीर परमेश्वर मनशाच्या रुपान जल्म घेता, अशें ताचें म्हणणें आसलें. ईश्वर वा देवान खंयच्याय रुपान जल्म घेतलो तरी तो मायेन पुराय शरीरांत वा कुडींत भरून आसता. म्हूण ताका 'मायापूर' म्हण्टात. चक्रधर माया ही स्वतंत्र आनी सगळ्यांत व्हड देवता आसून सत्य आनी भावरुप आसा, अशें मानतात.

जीव वा देवता हांचे उपासनेक लागून फळ मेळ्ळ्यारय मोक्ष मेळना, तर दत्तात्रय, कृष्ण- चक्रपाणी, गोविंदप्रभू आनी स्वता आपूण ह्या ईश्वरअवतार आशिल्ल्या 'पंचकृष्णा'चे भक्तीनच तो मेळटा, अशें ताच्या उपदेसाचें सार आसलें. सवळ्या भश्टाचेर ताचो विस्वास नासलो. ताणें मांगा घरचें अन्न उश्टावन आपूण उलयतां तसो चलता हें दाखोवन दिल्लें. बायलांचो उध्दार करपाक जाय, शुद्राक गिन्यान मेळोवपाचो पुराय अधिकार आसा, अशें ताचें मत आसलें. हेच खातीर ताचेवांगडा ब्राह्मण-क्षत्रियांवांगडा शूद्र लेगीत येताले.

चक्रधरान संस्कृत भाशेक कुशीक उडोवन मराठीक व्हडपण दिलें, तेखातीर त्याकाळवेल्या सनातनी आनी कर्मठ धर्मपंडितांक चक्रधराची तिडक मारली. महादेव यादवाच्या राजदरबारांतलो राजपुरयत महदाश्रम आनी ब्रह्मसानू हांणी ताका आपल्या शिष्यांच्या आदारान वीख घालें, पूण चक्रधराचेर ताचो कांयच परिणाम जालो ना. रामदेवराय यादवाचो प्रधान हेमाद्री पंडित चक्रधराचेर राग धरून आसतालो. एक फावट चक्रधराचेर व्यभिचाराचो फटीचो आरोप दवरून ताणें ताका रामदेवरायामुखार हाडलो. रामदेवरायान चक्रधराक मरणाची ख्यास्त फर्मायली आनी हेमाद्रीन चांडाळावरीं ती ख्यास्त रोखडीच दिवन उडयली. अशे तरेन चक्रधराक मरण आयलें.

चक्रधराक मरणाची ख्यास्त दिवन जातकच चक्रधर परतो जितो जालो आनी आयजूय तो हिमालयांत आसता, अशें ताचे शिष्य वा समर्थक मानतात.

चक्रधराचें पुराय जिवीत, अणभवाची खण आसली. आपली अखंड यात्रा सगळी पिरायभर चलता आसतना तो एकाद्र्याच्या घरांत केन्नाच आलाशिऱ्याक रावलो ना. ताणें सदांच देवळां, मठीं, व्होंवऱ्यांमदीं आलाशिरो घेतलो.

चक्रधराक मौन, नग्नावस्था आनी सुंदर कूड हांचें उदाहरण मानलां. ताचेवयल्यान ताका मौनदेव, नग्नदेव, गोमटदेव अशेंय म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**चक्रध्वज:** चक्रयुक्त स्तंभ वा खांब्याक पूर्विल्ल्या काळांत चक्रध्वज वा चक्रस्तंभ म्हणपाची चाल आसली. स्तंभ ह्या उतराक स्कंभ, थंब, यष्टी, ध्वज, स्थूणा हीं नांवां पोरण्या बरसावळींनी मेळटात. स्कंभ हें नांव ऋग्वेदांत आयलां.

दिवः स्कम्भः समृतः पाति नाकम्

अर्थ- हो सूर्य मळबाचो खांबो (स्कंभ) जावन ताका वयर आदार दिता.

चक्रध्वजाच्या स्तंभाचें मूळ वैदिकाच्या यज्ञीय यूपांत दिसून येता. यूप हो फकत सादो खांबो नासून, अशोकस्तंभाप्रमाण ताका एक खाशेलो आकार आसता. ऊंच यज्ञयूपांक अध्वरकेतू म्हण्टात. ते यश-वैभव मेळोवपाखातीर बांदताले. कालिदासाच्या रघुवंशांत फुडलेतरेन उल्लेख आयला:

वङ्गानुत्खाय तरसा नेता नौसाधनोद्यतान् ।
निचखान जयस्तम्भान्गङ्गास्त्रोतोन्तरेषु सः ।।

अर्थ- आपल्या नौदळाच्या पालवान, झूज करपाक आयिल्ल्या वंगदेशाच्या राजाचो आनी सैन्याचो पुराय नाश करून जैतीवंत सेनेचो मुखेली वा राजा रघु हाणें गंगा न्हंयंत त्या जुंव्यांर जयस्तंभ बांदलो.

अध्वरकेतू वा जयस्तंभ बांदपाची परंपरा दोन हजार वर्सां परस पोरनी आसा. तातूंतल्यानूच अशोकाच्या चक्रध्वजाचो जल्म जालो. फुडें लांकडाचे वा पाशाणी फातराचेय खांबे (स्तंभ) उबारताले. अथर्ववेदाच्या एका सूक्तांत जगत्कारणाक स्कंभ म्हळां.

स्कम्भे लोकाः स्कम्भे तपः स्कम्भेऽध्यृतमाहितम्

अर्थ- स्कंभांत लोक रावतात. तांच्यांत तप वसता. ताच्या आदारान ऋत (परमात्मा) लेगीत रावता.

अथर्ववेदाच्या वयल्या सुक्तावेल्यान चक्रस्तंभाची कल्पना वयर सरली, अशें म्हण्टात. वयलें महाचक्र संवसाराच्या जल्मस्थानाची कुरु जावन आसा. ऋग्वेदांत विश्वचक्राचो वा कालचक्राचो उल्लेख येता. ताकाच काळांतरान संवसारचक्र, भवचक्र, धर्मचक्र हीं नांवां मेळ्ळीं.

सारनाथ हांगाचो अशोकस्तंभ हो एक चक्रध्वजच जावन आसा. ताच्या माथ्यार एक चक्र आसा. ताची उंचाय ५० फूट आसून, ताचे विंगड विंगड भाग अशे आसात.

**चौथरो:** एक खडबडीत फातर, ताची लांबाय ८ फूट, रुंदाय ६ फूट, उंचाय १.५ फूट. खांब्याचो कांय भाग तातूंत पुरिल्लो आसा.

**स्तंभयष्टी:** स्तंभयष्टी ३७ फूट ऊंच आसून ती वयर अशीर जायत गेल्या.

**पूर्णघट:** (पद्मकोश) हो दोन फूट ऊंच आसा. हातूंत उमथें कमळ आनी कमळाच्यो लांब पाकळ्यो आसात.

**चक्रवाल वा दिङ्मंडल:** वाटकुळी बसकेंत चार दिकांक चार चक्रां आसून, दोनूय चक्रांचे मदीं शिंव, हत्ती, बैल, घोडो हे प्राणी आसात.

**शिंवचौकडी:** चार शिंव फाटीक फाट लावन चार दिकांक तोंड करून चार दिकांक बशिल्ले आसात.

**महाचक्र:** अशोक स्तंभाचेर सगळ्यांत ऊंच आशिल्ल्या ह्या अशोकचक्राची उंचाय २ फूट आसा. सद्या हें महाचक्र भग्न जाल्ले अवस्थेंत आसा.

सांची हांगा उबारिल्लो खांबो (स्तंभ) सारनाथाच्या चक्रध्वजाचें पडबिंब जावन आसा. सांचीच्या स्तूपाचेर जायत्या जाग्यांर चक्रध्वजाच्यो सोबीत, सुंदर आकृती दिसतात. ताचेवेल्यान चक्रध्वजाची उपासना करपी एक पंथ त्याकाळार अस्तित्वांत आसलो, अशें मानतात.

शिल्पकलेच्या मळार अशोकस्तंभ वा चक्रध्वजाक दुसरो प्रतिस्पर्धी ना. हाचो सकलो भाग नितळ, निवळ, गुळगुळीत आनी चकचकीत आसा. तातूंत हारश्यावरीं पडबिंब दिसता. हे कलावस्तूंभितर दर एका भागांत एकजिनसीपण, सम रचणूक आनी सोबीत कारागिरी दिश्टी पडटा. कलाकाराचे प्रतिभेचो हो आगळो-वेगळो आविश्कार जावन आसा. वास्तवता आनी आदर्श हांचो सुंदर मेळ जाल्ल्यान ह्या खांब्याक जिती जिवी सोबीतकाय लाभल्या. व्हिंसेट स्मिथ सारक्यान लेगीत सारनाथाच्या चक्रध्वजाची तोखणाय करतना हाका लागसारकी दुसरी शिल्पकृती ना, अशें म्हळां. भारतीय सौंदर्यशास्त्रांत रूप आनी आशय ह्या दोनूय गुणांचो वांटो म्हत्वाचो आसता. हे दोनूय गूण चक्रध्वजांत दिसतात. चक्रध्वज सगळ्या कलागूणांनी पुराय आसाच पूण तेचवांगडा खांबो भारतीय संस्कृतीचें एक खाशेलें प्रतीक थारलां. चार आर्य सत्यांचेर आदारिल्ल्या बौध्द धर्माचें प्रतीक सारनाथाचो चक्रध्वजच आसा.

बौध्द आनी वैदिक साहित्यांत सारनाथाच्या चक्रस्तंभावयर वाटकुळे बसकेंत जे चार प्राणी आसात तांचो उल्लेख मेळटा. ऋग्वेदांत (८.८१.१; १.१७४.३) महाहस्ती आनी शिंव म्हूण इंद्राचो उल्लेख येता. शिंव आनी हत्ती हे बळीश्टपणाचें प्रतीक आसून बैल आनी घोडो यज्ञीय पशू (प्राणी) जावन आसात. ऋग्वेदांत (१.१०१.४) इंद्राक गायांचो आनी घोड्यांचो धनी म्हळा. वयल्या चार प्राण्यांसावन पुराणकाळांत गजानन, नृसिंह, नंदी, हयग्रीव हे देव जल्माक आयले, अशें मानतात.

पुराणांत पृथ्वीक चतुर्दल भुपद्म म्हळां. हाचो अर्थ पुराय संवसाराची निर्मिती चतुष्ट्यात्मक तत्त्वांचेर जाली, अशें मानतात. पृथ्वीचेर चार द्वीप, चार महापर्वत, चार वनां, चार न्हंयो, चार सरोवरां आनी चारपशू आशिल्ल्याचें वर्णन पुराणांनी येता. चक्र ध्वजाच्या वाटकुळे बसकेंवयली चार चक्रां हीं चतुष्टयाचीं प्रतीकां आसून, ताचे वयले चार शिंव चतुष्टय तत्त्व दाखयतात. हे शक्तीचें केंद्र महाचक्राच्या मदीं आसता.

बुध्दगया, अमरावती, मथूरा हांगाच्या शिल्पांतूय चक्रध्वज दिश्टी पडटात.

- कों. वि. सं. मं.

**चक्रपूजा:** चक्र नांवाच्या देवीयंत्राचे एके आगळे वेगळे पूजा-विधीक चक्रपूजा ह्या नांवन वळखताले.

चक्रपूजेची चाल शाक्तांनी सुरू केली, अशें मानतात. चक्र हें देव-देवतांच्या हातांतलें एक आयुध जावन आसा. फुडाराक ह्या चक्राक एक वेगळें स्वतंत्र दैवत म्हूण मानपाक लागले. हे प्रक्रियेचें मागीर चक्रपूजेंत रुपांतर जालें. शाक्तांचे चक्रपूजेची रीत अशी आसली.

सम संख्येन सारके आशिल्ले दादले आनी बायलो गुप्त रितीन रातच्या वेळार एकठांय जमताले. मागीर चक्रासारखें एक देवीयंत्र त्या जाग्यार तयार करून ताची पूजा करताले. ते उपरांत त्या यंत्रालागीं एक व्हड आयदन दवरताले. तातूंत पूजेखातीर जमिल्ल्यो बायलो आपल्यो चोळयो काडून त्या पात्रांत दवरताल्यो. दादलो आपल्याक इत्सा जाता ती चोळी उबारतालो आनी जे बायलेची ताणें चोळी काडल्या, ते बायलेवांगडा पुराय रात मनयतालो. दादल्या बायलेन एकठांय रात घालोवप म्हळ्यारच चक्राची पूजा आनी उपासना करप, अशें शाक्त लोक मानताले.

शाक्तांनी सुरू केल्ली चक्रपूजेची चाल बौध्द धर्मीयांनी उखल्ली आनी ही पूजा चालू दवल्ली. बौध्द धर्मांत ही पूजा करपी एक संप्रदायच तयार जाल्लो. चक्रपूजेचे परबेक बौध्द 'चक्रमह' म्हण्टाले. बौध्द धर्माच्या उत्तर काळांत हे पूजेक 'चीनाचार' हें नांव पडलें. तातूंत जायत्यो वायट गजाली भितर सरल्यो. ल्हवल्हव ही रीत फाटल्यान पडली.

चक्रपुजेचे शुभ आनी अशुभ अशे दोन प्रकार आसात. आश्विन-कार्तिक म्हयन्यांत 'कुलाचार' म्हूण जी चक्रपुजा करतात ती शुभ. दुसरी घरांत कोणाकूय मरण आयल्यार सगळे क्रिया-क्रम जातकच करतात. ही पूजा अशुभ मानतात. सद्या अस्तित्वांत आशिल्ली ही पूजा फुडले तरेन करतात:

हे पूजेखातीर तांदळाचें चक्र तयार करतात. हें चक्र शुभ पुजेखातीर तांबड्या तांदळांचें आनी अशुभ पूजेखातीर धव्या तांदळाचें करतात. हाका 'नवार्णचक्र' अशेंय म्हण्टात. चक्राचे उदेंतेक कंटक, दक्षिणेक कंटक, अस्तंतेक नवदुर्गा आनी उत्तरेक मारुती ह्यो देवता थापतात. ह्यो देवता अनुक्रमान तांदूळ, मीठ, चण्याची दाळ, उडीद हाच्यो करतात. चक्राच्या मध्यत्रिकोणांत शेंदूरान ॐ काडटात. तिका चक्राची मुखेल

देवता मानतात. चक्राक मध्यभागाक एक आनी कुशीक धा अशे इकरा दिवे लायतात. दिव्याच्यो वाती देवकापसाच्यो करतात. दरेका दिव्यालागीं विड्याचीं पानां, सादो पोळो, पुरण घालून केल्लो पोळो, पुरी, सांजोरी, नेवरी, उड्डाचो वडो, खीर, दिवो, केळें, लिंबू, खारीक, बदाम आनी सुपारी ह्यो वस्तू दवरतात.

पूजेच्या दिसा घरच्या मुखेल दादल्यान आनी ताचे बायलेन उपास करपाचो आसता. त्या दिसा जेवण सवळे-ओंवळें पाळून करतात. उश्टें, सांडिल्लें भायर उडोवपाक एक खास फोंड मारतात. ताका समुद्र म्हण्टात. त्या दिसा भाताक मोती आनी सोणयाळ्या चण्याक दाखो म्हण्टात. घराचीं दारां, जाळयो, जनेलां, दिव्याचो उजवाड मात लेगीत भायर वचचो न्हय अशे तजवीजेन धांपतात. आरती जातकच सगळे गोत्री चक्रांतल्या दिव्याच्या उजवाडांत बसून जेवण करतात. जेवण जातकच विड्याच्या पानांन दिव्याची जोत पालयतात. चक्रावेल्यो वस्ती एकठांय करून एका आयदनांत दवरतात. ते उपरांत दादलो आपले शेंडयेन आनी बायलो आपले विणयेन चक्रावेले तांदूळ पुंजायतात. ते तांदूळ आयदनांत दवरून ताचो महादेव करतात आनी महादेवाची पूजा करून नाल्ल फोडटात. दुसऱ्या दिसा आयदनांत पुंजावन दवरिल्ल्यो खावपा-जेवपाच्यो वस्तू गोत्री न्हातकच खातात. गोत्रजांमदले कलह, झगडीं, झुजां, मतभेद सोंपोवपाखातीर सगळ्यांनी एकठांय येवन चक्रपूजा करची, अशें म्हण्टात.

आदल्या काळांत चलपी चक्रपूजेचें अस्तित्त्व दाखोवपी शिल्पां आयजूय दिश्टी पडटात. सांची हांगा बौध्द काळांतल्या स्तूपाच्या कठड्यांत एक चक्रस्तंभ कोरांतिल्लो आसा. थंय एक दादलो आनी बायल हात जोडून चक्राक प्रदक्षिणां घालतात, अशें दृश्य आसा. भरहूतच्या प्रसेनजितस्तंभाचेर चक्रपूजेचें चित्र कोरांतलां. बुध्दगया, अमरावती आनी मथूरा हांगाच्या शिल्पांत जायत्या जाग्यांर, चक्रध्वज दिश्टी पडटात. बुध्दा उपरांतच्या काळांत चक्रपूजेक व्हड म्हत्व आयलें, हें दाखोवपी ती कुरू जावन आसा. कंकालीटीला हांगाच्या जैन स्तूपांत ज्यो शिल्पकृती मेळ्ळयात, तातूंत चक्रदेवतेचीय एक मूर्ती आसा. जैन शिल्पांत जायतेकडेन चक्र स्तंभचक्रपट्ट आनी चक्ररुप आयागपट्ट अशे चक्रांकित कलाप्रकार दिश्टी पडटात.

- कों. वि. सं. मं.

**चक्रवर्ती:** पुराय विश्वचक्राचेर म्हळ्यार जगाचेर शेक गाजोवपी सम्राटाक पूर्विल्ल्या काळांत चक्रवर्ती म्हण्टाले.

अमर ह्या ग्रंथांत सार्वभौम चक्रवर्तीच्यो दोन व्याख्या मेळटात:

'चक्रं पद्‌माकारशुभचिह्नं करे वर्तते यस्य'

अर्थ- कमळाच्या आकाराचें शुभचिन्ह (चक्र) जाच्या हातार आसा असो दादलो.

'चक्रं पृथ्वीचक्रं तेन वर्तते इति'

अर्थ- चक्र म्हळ्यार पुराय पृथ्वीचक्रांत रावपी वा तें चलोवपी दादलो.

वयल्या दोनूय गुणांनी भरिल्ल्या दादल्यांक चक्रवर्ती म्हण्टात.

जैन वाङ्‌मयांत चक्रवर्तीची व्याख्या अशी आसा:

'चक्रेण रत्नभूतेन प्रहरणविशेषेण वर्तितुं शीलमस्य'

अर्थ- चक्र म्हळ्यार रत्नांनी निर्मिल्लें एक आयुधविशेश. तें चलोवप हें जाचें शील तोच चक्रवर्ती.

चक्र म्हळ्यार विश्वचक्र आनी वर्ती म्हळ्यार तें चलोवपी सूर्यगोल आनी चक्रधारी विष्णू, अशेय हाचे अर्थ सांगल्यात. ऋग्वेदांत 'वृत्' हाचो अर्थ फिरप आनी 'वर्तय' हाचो फिरोवप असो जावन आसा. महाकाव्यांत वर्तीचो अर्थ चलयणारो असो जाता.

चक्रवर्ती ह्या उतराचो सगळ्यांत पयलो उल्लेख मैत्रायणी उपनिषदांत केल्लो वाचूंक मेळटा. तातूंत हरिश्चंद्र, अंबरिष, ययाती, भरत सारक्या व्हड राजांक चक्रवर्ती म्हळ्यात. रामायणांत 'चक्रवर्ती' हें उतर ना. महाभारतांतय 'चक्रवर्ती' हें उतर खंयच्याच मुखेल मनशाक लावंक ना. महाभारतांतल्या उपाख्यानांत मात भरत, मांधाता, मरुत्त ह्या राजांक चक्रवर्ती म्हणिल्ले उल्लेख मेळटात.

पुराणांत मांधाताविशीं फुडलेतरेन उल्लेख येता.

यावत्सूर्य उदयति यावच्च प्रतितिष्ठति ।
सर्वं तद्यौवनाश्वस्य मान्धातुःक्षेत्रमुच्यते ।।

अर्थ- जितल्या भागांचेर सूर्याचो उदय जाता आनी उजवाड फांकता, येदे व्हडलें क्षेत्र युवनाश्वपुत्र मांधात्याचे जावन आसात.

चक्रवर्ती म्हळ्यार पुराय पृथ्वीचो राजा आसप वा जावप हे कल्पनेक पूर्विल्ल्या काळासावन व्हड म्हत्व मेळ्ळां. चक्रवर्तीचो वाठार कितलो हाचें वर्णन चाणक्यान अर्थशास्त्रांत केलां:

देशः पृथिवी । तस्यां हिमवत्समुद्रान्तरमुदीचीनं
योजनसहस्त्रपरिमाणमतिर्यक् चक्रवर्त्तिक्षेत्रम् ।

अर्थ- देश म्हळ्यार पृथ्वी (भारतदेश). तिच्यांत हिमालयासावन दर्यादिगेमेरेन सरळ उत्तर-दक्षिण दिकेमेरेन एक हजार योजनांइतलो वाठार चक्रवर्तीचो मानला.

चक्रवर्तीच्या पांयार चक्र आनी मत्स्य आनी हातांचेर शंख आनी पद्म हीं लक्षणां आसतात. ती आजानुबाहू, तालहस्त आनी वृषस्कंध सारक्या शुभ लक्षणांनी पूर्ण आसून ते विष्णूचे अंशरुप आसात. यज्ञ, दान तप, सत्य ह्या गुणांनी ते पूर्ण आसून वर्णाश्रम विभागांवरवीं ते प्रजेचें पालन करतात, अशें तांचें वर्णन मत्स्यपुराणांत आयलां.

ऋग्वेदांत इंद्राक चक्रवर्ती ह्या अर्थान विश्वविजेता म्हळां.

मरुत्वन्तं वृषभं वावृधानमकवारिं दिव्यं शासमिन्द्रम्।
विश्वासाहमवसे नतनायोग्रं सहोदामिह तं हुवेम।।

अर्थ- मरुतांसयत येवपी, वीर्यवान, वृध्दिंगत, व्हडल्या व्हडल्या दुस्मानांचीं मदांधपणां जिखपी दिव्य शासक, विश्वविजेता, भीषण आनी भक्तांक बळ दिवपी, असो हो इंद्र ताणें आमचेर नव्यान अनुग्रह करचो म्हूण आमी ताका आपयतात.

दुसऱ्या एका जाग्यार चक्र हें इंद्राचे शक्तीचें प्रतीक मानिल्ल्याचें दिसता. ताचेवेल्यान ताचे सार्वभौम शक्तीचोय बोध जाता. इंद्राच्या ह्या उदाहरणावेल्यान फुडें सार्वभौम राजांक 'चक्रवर्ती' म्हणपाची चाल पडली आसपाक जाय. वैदिक काळार पुराय जगाचेर राज्य करपाची इत्सा मनांत बाळगून रावपी जायते राजा जावन गेले. राज्याभिषेक जातकच जायते राजा दिग्वीजय करपाक भायर सरताले आनी निमाणें आठ दिकांच्या राजांक जिखून 'अश्वमेध' यज्ञ करताले.

बौध्द साहित्यांत दीघनिकायाच्या लक्खणसुत्तांत राजपुत सिध्दार्थ जर बुध्द जावंक नासलो जाल्यार चक्रवर्ती जातलो आसलो, अशें म्हळां. ताचेवेल्यान बौध्द काळार 'चक्रवर्ती' पदाक दिल्लें म्हत्व लक्षांत येता. पाली बौध्द साहित्यांत चक्रवर्ती आनी बुध्द ह्यो एका पावंड्यावेल्यो पदव्यो मानल्यात. बुध्दत्व ही मनशान आध्यात्मिक वाठारांत मेळयिल्ल्या सगळ्यांत उंचेल्या पदाची कुरू जावन आसा. 'चक्रवर्तित्व' हें भौतिक श्रेश्ठ सामर्थ्याची देख जावन आसा. दोगूय जाण लोकांच्या कल्याणाखातीर आनी जगांत शांतताय हाडपाखातीर वावुरतात. बुध्द निवृत्तीमार्गान तर चक्रवर्ती प्रवृत्तीमार्गान भौसाचें हीत पळोवप आपलो धर्म मानतात.

बौध्द धर्मांत सक्क (इंद्र) हो इंद्राचो खरो भक्त आशिल्ल्याचें सांगलां. इंद्र आपल्या चक्राक गती वा नेट दिवपाची प्रेरणा दिता. ह्या वर्णनावेल्यान बौध्दांनी बुध्दाच्या धर्मचक्र प्रवर्तनाची कल्पना केली. बौध्दाच्या चक्रवर्ती वर्णनांत वैदिक इंद्राच्या सामर्थ्याचे जायते गूण भरसल्ले आसात.

जैन साहित्यांत चक्रवर्तीपदाचो खूब विचार जालो. जैनांनी बारा चक्रवर्ती सांगल्यात:

भरत, सगर, मघवा, सनत्कुमार, शांती, कुंथू, अर, सुभूम, महापद्म, हरिषेण, जय आनी ब्रह्मदत्त अशीं तांचीं नांवां आसून ते तीर्थंकरांचे समकालीन मानल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**चक्रव्यूह:** पूर्विल्ल्या काळांत झुजामळार झगडटना, दोनूय पक्ष

आपल्या शत्रुपक्षाक फटोवपाक सैन्याच्या आदारान ज्यो चाली रचताले, तांकां 'व्यूह' म्हण्टाले. चक्रव्यूह हो ह्या व्यूंहांतलो एक नामनेचो झुजा-व्यूह जावन आसा, जातूंत झुजपी खंयचोय पक्ष आपल्या सैन्याची वाटकुळ्या चक्राच्या आकारावरी रचणूक करता आनी चाल रचता.

दुस्मानाची खंयचेय वटेन आयिल्ली घुरी चड लुकसाण जायनासतना परतवपाक मेळची, सोपे रितीन दुस्मानाकडेन झुजपाक मेळचें, तेचपरी चक्रव्यूहाच्या मध्यभागांतल्यान सोपेपणान सैन्य, जेवण-खाण आनी शस्त्रां हांची पुरवण गरज लागता तशी करपाक मेळची, हो हेत नदरेमुखार दवरून चक्रव्यूहाचो व्यूह रचताले.

चक्रव्यूहाचें वर्णन एका श्लोकांत अशें केलां:

अष्टारं वर्तुलाकारं व्यूहचक्रं त्रिनाडिकम् ।

दण्डचतुष्टयं बाह्ये कर्तव्यं च चतुर्दिशम् ।।

अर्थ- चक्रव्यूह हो वाटकुळो आसचो. तातूंत आठ आरे आनी तीन नाडयो आसच्यो. तशेंच ताचे भायले वटेन चार दिकांक चार दंड करचे.

चक्रव्यूहाचो आनीक एक प्रकार आसता, जातूंत सैन्याच्यो कुंडलावरी आठ वळी उब्यो केल्ल्यो आसतात आनी भितर वचपाक एकूच मार्ग दवरिल्लो आसता.

महाभारतांतल्या झुजांत कौरवांचो सेनापती गुरु द्रोणाचार्य हाणें चक्रव्यूह रचिल्ल्याची म्हायती महाभारत ग्रंथांत मेळटा. चक्रव्युहांत भितर वचून तो फोडप आनी दुस्मानाक हरोवन भायर सरपाची विद्या फकत पांडवांभितर अर्जुनाकूच खबर आसली. अर्जुनाचो चलो अभिमन्यू हाका चक्रव्यूह भेदून भितर वचपाक कळटालें, पूण भायर सरूंक कळनासलें. ताका लागून चक्रव्युहांत भितर सरतकच दुःशासनाच्या चल्यान ताका गदेन जिवेशीं मारलो, अशी कथा महाभारतांत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**चणो:** (मराठी-वाटाणा, मटार; हिंदी-चना, मटर; संस्कृत-वृत्तांग; लॅटीन-पायसम् सॅटीव्हम; कूळ- पॅपिलीओनेसे).

ही वनस्पत लेग्युमीनेसी ह्या कुटुंबात पडटा. सायसर ही ताची जात आसून ओरिएटीनम ही ताची उपजात आसा.

हे वर्सुकी वनस्पतीचें रोंप ल्हान आसता. ताची उंचाय सुमार ४५-६० सेंमी. आसून जातीप्रमाण हें रोंप उबें वा पसरट वाडटा. चण्याच्या रोंपाचें मूळ जमनींत ३० सेंमी. भितर वता आनी हेर चार उपमुळां जमनींत पातळटात. ह्या उपमुळांचेर बारीक बारीक फोड येतात. तातूंत हवेंतलें नत्र सांठोवन तें रोंपाक दिवपाची तांक आसता. ताचें मुखेल कांड वाटकुळें आसता आनी हेर ताळयो चौधारी (quadriangular) आसतात. पानां संयुक्त, पाखांभशेन आसून दरेक पानाक ६ मिमी. लांब आनी ४ मिमी. रुंदायेचीं बारीक वाटकुळीं पानां आसतात. पानांचे खाचींत २.५ ते ४ सेंमी. लांब, गुलाबी, तांबशीं, निळशीं, एकोडीं फुलां येतात. तशेंच तीं धव्या, निळशा, पांचव्या कोराचींय आसतात. तांचो संकर तांचे भितरूच जाता. हे वनस्पतीक २.५ सेंमी. लांब आनी १ सेंमी. रुंद सांगो येतात आनी तातूंत एक वा दोन चणे आसतात. तांचो रंग आनी आकार जातीप्रमाण थारता.

चण्याचे वनस्पतीचो उगम आशिया खंडांत तशेंच उदेंत मेडीटेरेनीयन (Eastern Mediterranean) वाठारांत जालो अशें मानतात. थंयच्यान मागीर ताचो प्रसार आफ्रिका, अमेरिका, आर्जेंटिना, ऑस्ट्रेलिया हांगा जालो.

**पिकावळीचो वाठार:** चण्याचें पीक जगांत सुमार १.४ कोटी हेक्टर सुवातीचेर पिकयतात आनी ताचेपसून सुमार ७०.४ लाख टन (१९७९) चण्यांचें वर्सुकी उत्पन्न येता. संवसारांतले चणे पिकोवपी मुखेल देश म्हळ्यार भारत, पाकिस्तान, अफगाणिस्तान, इथिओपिया, ब्रह्मदेश, तुर्कस्थान. संवसारांत चण्याच्या उत्पादनांत भारताचो पयलो क्रमांक लागता. भारतांत ७८ लाख हेक्टर सुवातीचेर चण्याचें पीक काडटात आनी ताचेपसून वर्सुकी उत्पादन सुमार ५८.३ लाख टन जाता. भारताच्या उत्पन्नाची सरासरी ७.४१ प्रती हेक्टरी येता. भारतांत मध्य प्रदेश, राजस्थान, महाराष्ट्र, उत्तर प्रदेश, हरयाणा, पंजाब ह्या राज्यांनी चण्याचें पीक काडटात. गोंयांत अजूनमेरेन चण्याचें पीक काडपाक सुरवात जावंक ना.

**प्रकार आनी जाती:** *१. देशी वा काफेकोराचे चणे (सोनयाळे चणे):* हे जातीचे चणे काफयेकोराचे वा हळडुवे आसतात. ह्या चण्यांचो आकार ल्हान आसून चोंचीकडेन तांकां मिरयो आसतात. तांच्यो रोंपयो मोटव्यो आसून तांकां गच्च ताळयो येतात.

२. *काबुली चणे:* ह्या चण्यांचो कोर धवो आसून ते मोटे, वाटकुळे आनी धवे आसतात. तांच्यो रोंपयो ऊंच वाडटात. देशी चण्यांपरस हांचें उत्पन्न उणें येता.

हे भायर चण्याच्यो हेर जायत्यो जाती भारतांत दर एका राज्यांत तयार केल्यात. उत्तर प्रदेशांतः टायप- १, २, ३, के ४६८, के ४५०; हरयानांतः एच् २०८, ३५५; पंजाबांतः हरे छोले नं. १, जी-२४, १३०, २३५; मध्य प्रदेशांतः जेजी-६२, २२१; उज्जैनांतः २१, २४; महाराष्ट्रांतः चाफा बी. डी. एन्.- ९-३; कर्नाटकांतः अन्नेग्री-१ ह्यो देशी चण्याच्यो जाती आसात. तशेंच काबुली चण्याच्यो उत्तर प्रदेशांतः के-४, ५; पंजाबांतः सी १०४, एल्-५५०, १४४ ह्यो जाती आसात.

**रोवप आनी वाडोवप:** थंड हवामानाच्या वाठारांनी जंय पावसाचें प्रमाण ६०-९० सेंमी. आसता थंय चण्याचें पीक बरें येता. पूण चड दंव वा खर शीं ह्या पिकाक सोंसना. पीक येवपाच्या वेळार फुलार दंव पडत जाल्यार बीं तयार जायना आनी उत्पन्न कमी येता. तशेंच ह्या पिकाक काळी, उदक सांठोवन दवरपी आनी खडबडीत जमीन मानवता. चण्याचें रोंप फाव त्या वेळार रोयल्यारूच पीक चड येवंक शकता. दक्षिण भारतांत ऑक्टोबर म्हयन्याचे दुसरे पंद्रशेक चणो लायतात. उत्तर भारतांत ऑक्टोबर म्हयन्याचे पयले पंद्रशेक चणो लायतात.

सुर्वेक जमीन बरी भुसभुशीत करून घेवन, तातूंत नांगराच्या वा सीड ड्रिल ह्या अवजाराच्या आदारान चण्याचें बीं ८-१० सेंमी. जमनी भितर रोयतात. तशेंच रोवचे पयलीं बियांक 'थायरम' हें वखद (०.२५%) चोळटात. रोयता आसतना दोन वळींमदलें अंतर ३०-४० सेंमी. आसूंक जाय. दरेका हेक्टराक सुमार ७५-१०० किग्रॅ. बीं जाती प्रमाण लागता.

चण्याच्या पिकाक दर हेक्टरी २०-२५ किग्रॅ. नत्र, १००-१५० किग्रॅ. डायअमोनियम फोस्फेट हें सारें लागता. ह्या पिकाक बीं रोवचे पयलीं एकदां, मागीर फुलां येवच्या वेळार आनी उपरांत सांगो भरपाच्या वेळार उदक दिवचें पडटा. ह्या पिकाक चड उदक दिल्यार चण्याचें पीक कमी येता.

**रोग आनी उपाय:** चण्याच्या पिकाक वील्ट हो मुखेल रोग जाता. ह्या रोगाक लागून चण्याचें रोंप बावपाक लागता आनी मरता. मुळां आनी पाळां काळीं पडून कुसतात. हो रोग आळाबंदा हाडपाक बियांक बेनलेट आनी थायरम हीं वखदां दरेकी किग्रॅ. बियांक २-३ ग्रॅम चोळटात. तशेंच बीं रोयतना जी २४ वा सी २१४ ह्यो जाती वापरतात.

चण्याक स्क्लेरोटियाना ब्लाइट हो रोग लागतकच रोंपयांक खतां पडटात आनी देंठ कुसतात. हाचेर उपाय म्हूण चण्याच्यो बऱ्यो जाती लायतात. तशेंच बियांक ह्या रोगाआड वखदां चोळटात.

ह्या रोगांभायर ग्रे मोल्ड, रस्ट, एस्कोचायटा ब्लाइट अशा हेर रोगांचीय बादा चण्याच्या रोंपाक जाता. तशेंच कटवर्म ही कीड चण्याचो रोंप ल्हान आसतनाच लागता. ही कीड आळाबंदा हाडपाक पिकार बी. एच्. सी. १०% पावडर, हेक्टरी २० ते २५ किग्रॅ. प्रमाण मारतात. ग्राम पोड बोरर ही कीड रोंपयेचीं पानां खाता, सांगो पोखरून भितल्लो गर खाता. हांकां आळाबंदा हाडूंक पिकार मोनोक्रोटोफॉस हें वखद मारतात तशेंच एन्डोसल्फान ह्या वखदाचो आर्थून पर्थून फवारो मारतात.

**उत्पन्न/पीक:** जेन्ना चण्यांच्या रोंपयांचीं पानां तांबशीं, काफये रंगाचीं जावन झडपाक लागतात, तेन्ना चण्याचें पीक तयार जालां अशें समजुचें. हीं रोंपां हुमटून काडून वा हिळयान कापून घेतात आनी मळ्यांत ५-७ दीस सुकयतात. उपरांत बैलांच्या पांयांपोंदा वा बडयांनी मळटात.

बरेभशेन केल्ले पिकावळी पसून दर हेक्टरी २०-२५ क्विंटल चणे मेळपाक शकतात.

**उपेग:** चणे हें मनशाच्या आहारांतलें एक बरें कड्डण जावन आसा. जनावरांचे खावडीखातीरूय (हरभरे, सोनयाळे चणे) चण्यांचो उपेग जाता. जेवणांत तशेंच खाणांत चण्यांचो बेसबरो वापर करतात. चण्यांची दाळ करून ताचेपसून मणगणें, पुरण आदी गोडशें तशेंच हेर पदार्थ करतात. चण्यांच्या पिठापसून (बेसनापसून) बेसनलाडू, भजीं हे सारके तरांतरांचे पदार्थ करतात. चण्याच्या रोंपयांचें कांड वा ताळयो जनावरांचे खावडीक उपकारता. चणे ल्हायांभशेन फुलयतात. चण्यांत २१.१% प्रथिनां, ६१.५% कार्बोहायड्रेट्स आनी ४.५% चरबी आसता. तशेंच तातूंत कॅल्शियम, लोह आनी नियासीन हीं पोशकद्रव्यांय आसतात.

- एच्. आर. प्रभुदेसाय

**चतुर्थी:** शुक्ल आनी कृष्ण पक्षांतली चवथी तीथ. हिका चंद्राचे चवथे कलेची क्रिया, अशें म्हळां. चतुर्थीच्या दिसा मंगळार आसल्यार त्या दिसा केल्लें दानपुण्य अक्षय्य जाता, अशें भविष्य पुराणांत सांगलां. गणेश चतुर्थी (चवथ), गौरी चतुर्थी, नाग चतुर्थी, कुंड चतुर्थी, बहुला चतुर्थी, संकष्ट चतुर्थी, विनायकी चतुर्थी अशीं सुमार २५ चतुर्थीव्रतां सांगल्यांत. भविष्य पुराणांत शिवा, शांता आनी सुखा अश्यो तीन चतुर्थी सांगल्यात. त्यो अनुक्रमान भाद्रपद चतुर्थी, माघ चतुर्थी आनी अंगारिका चतुर्थी जावन आसात. उत्तर भारतांतल्यो बायलो कार्तिक चतुर्थी (करवाँ चौथ), माघ चतुर्थी (तिलकुट्टी चौथ) तेचप्रमाण वैशाख आनी भाद्रपद म्हयन्याच्यो चतुर्थी पुण्यप्रद मानून त्या दिसा व्रत करतात आनी त्या त्या व्रताची काणी आयकतात.

सगळ्याच पुराणांनी चतुर्थीचें म्हत्व वर्णिलां. हेर सगळीं व्रतां केलीं, पूण चतुर्थीचें एकाद्रें ल्हानशें व्रत केलेंना जाल्यार हेर सगळीं व्रतां फळाक येनात, अशें सांगलां.

व्रत आनी उपास हांचेखातीर चतुर्थी घेवची ती तृतीयायुक्त घेवंची, अशें ब्रह्मवैवर्त पुराणांत सांगलां. हेमाद्रीन चतुर्थीच्या प्रदोषकाळांत अनध्याय करचो, अशें सांगलां. ताणें चतुर्थीचें रुपविधान, अशें सांगलां-

नीलोत्पलदलाभासा चतुर्थी मूषकस्थिता ।
परशुं बिभ्रती पात्रं पीतवस्त्रादिसंयुता ।।

अर्थ- चतुर्थी ही नीलकमलाच्या पानासारक्या कांतीची, हुंदराच्या वाहनाची, परशु आनी पात्र धारण करपी आनी हळडुवें वस्त्र, हळडुवें फूल ह्या हळडुव्या वस्तुंनी शोभिवंत करची.

- कों. वि. सं. मं.

**चतुर्वेदी, माखनलाल:** (जल्म: ४ एप्रिल १८८९, बावई-मध्य प्रदेश; मरण: ३० जानेवारी १९६८, खांडवा).

नामनेचो हिंदी कवी, निबंदकार, नाटककार, पत्रकार आनी देशभक्त. ताचें घराणें राधावल्लभ संप्रदायाचे अनुयायी आशिल्लें. देखून ल्हानपणासावन माखनलाल हाच्या मनाचेर वैष्णव संप्रदायाचे खोल संस्कार जाल्ले. मुळावें शिक्षण घेतल्या उपरांत ताणें घराच संस्कृताचो अभ्यास केलो. उपरांत तो शिक्षकाची नोकरी करूंक लागलो. तेन्नाच ताणें 'एक भारतीय आत्मा' ह्या टोपण नांवान कविता बरोवंक सुरवात केल्यो.

लोकमान्य टिळक आनी महात्मा गांधी हांच्या विचारांचो ताचेर बरोच प्रभाव पडिल्लो. १९२१ वर्सा ताणें भारताचे सुटके चळवळींत वांटो घेतलो. ताका कांय काळ बंदखण भोगची पडली.

'प्रभा', 'कर्मवीर', 'प्रताप' ह्या नेमाळ्यांचो तो संपादक आशिल्लो. १९२७ वर्सा भरतपूर हांगा जाल्ल्या संपादक संमेलनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९४३ वर्सा जाल्ल्या हिंदी साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्षपदाचो मान ताका मेळ्ळो. १९५९ वर्सा सागर विद्यापीठान ताका डी. लिट. ही मानद पदवी दिवन आनी १९६३ वर्सा भारत सरकारान ताका पद्मभूषण ही पदवी दिवन ताच्या साहित्याचो भोवमान केलो.

ताच्या काव्यांत विरोधाभास दाखोवपी गुणांचो आनी कलात्मकतेचो समन्वय सादिल्लो दिश्टी पडटा. बलिदान करपाची तयारी आनी पुरुषार्थाविशीं आशिल्ली निश्ठा हांचो मेळ ताच्या काव्यांत जाल्लो दिसता. देशाविशीं आशिल्लो उमाळो, तशेंच त्या काळांतल्या राजकी आनी समाजीक घडणुकांचें पडबिंब ताच्या काव्यांत पडिल्लें दिसता. हाचे भायर ताचे कवितेंत हेर विशयूय आयल्यात. ताणें आध्यात्मिक आनी गूढगुंजनात्मक कविताय बरयल्यात. ताच्या ह्या कवितांचेर वैष्णव संप्रदाय, निर्गुण भक्तिसंप्रदाय आनी सूफी पंथ हांच्या विचारांचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. मोग, सैम हांचेरूय ताच्यो कांय कविता आसात. ताचे कांय म्हत्वाचे कवितांझेले अशे: 'हिमकिरीटिनी' (१९४२), 'हिमतरंगिनी' (१९५२, साहित्य अकादेमी पुरस्कार- १९५४), 'माता' (१९५२), 'युगचरण' (१९५६), 'समर्पण' (१९५७), 'वेणु लो गुँजे धरा' (१९६०) आनी 'बीजुरी काजल आँज रही' (१९६४). ताच्या 'साहित्य देवता' (१९४३) ह्या ललित निबंदांच्या झेल्याक तातूंतले खाशेले काव्यात्मक गद्य शैलीखातीर नामना मेळ्ळ्या. ताच्या 'कृष्णार्जुन युध्द' (१९१८) ह्या नाटकाक, त्या काळांतल्या 'पारसी थिएटर' च्या प्रभावान विकृत जाल्ल्या नाट्य साहित्यांत वेगळेंच म्हत्व आसा. 'अमीर इरादे, गरीब इरादे' (१९६०) हो निबंदांझेलो, 'समय के पाँव' हो स्मृती लेखांचो झेलो, 'कला का अनुवाद' हो कथांझेलो आनी 'चिंतक की लाचारी' (१९६५) हो भाशणांझेलो हीं ताचीं कांय हेर नामनेचीं पुस्तकां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**चरक-१:** आयुर्वेदशास्त्रांतलो पाटांगडो राजवैद्य. चरकाच्या काळाविशीं विंगड विंगड मतां आसात. इ.स.प. ५८, इ.स.प. ७८ आनी इ.स.प. १२३ वर्सा आदीं चरक हो राजवैद्य जावन गेल्लो, अशीं तीन मतां आसलीं तरी निमाण्या वर्साविशीं चडशा जाणांचें एकमत आसा. 'त्रिपिटक' ह्या बौध्द ग्रंथाच्या चिनी अणकारावेल्यान (इ.स. ४७७) कनिष्क राजाच्या राजदरबारांत आशिल्ल्या राजवैद्याक चरक म्हण्टाले हो जरी उल्लेख मेळ्ळो तरी, कनिष्क राजवटीचो निश्चित काळूय काळखांत उरिल्ल्यान चरकाच्या काळाविशीं योग्य निदान करपाक मेळना.

चरक हें नांव वेदकाळांतूय येता. चरक हो पंजाबांतलो एक वैदिक चरण आसलो अशें म्हण्टात. चरक हो त्या संप्रदायांतलो आसपाक जाय. चरकाक शेषाचो अवतार मानला. तेविशींची कथा भावप्रकाशांत फुडलेतरेन आयल्या:

विष्णून मत्स्यावतार घेवन वेदांचो उध्दार केलो. त्यावेळार शेषाक सांग वेद मेळ्ळो. तांतल्या अथर्ववेदांत ताका आयुर्वेदय मेळ्ळो. एक फावट शेष पृथ्वीचेर 'गुप्तचर' जावन आयलो तेन्ना ताणें वायट रोगांनी पिडिल्ले लोक पळेले आनी तो खंती जालो. मनीस जातीक बरी भलायकी कशे रितीन मेळोवन दिवपाक जातली, हाचेर ताणें विचार केलो आनी निमाणें मनीसजातीच्या बऱ्याखातीर पृथ्वीचेर एका मुनीच्या पोटांत जल्म घेतलो. चर म्हूण तो पृथ्वीर आयलो आनी चरक म्हूण नामनेक पावलो.

चरकान आयुर्वेद वा वैद्यकशास्त्रांत अग्रेंवर उरपासारको 'चरकसंहिता' हो ग्रंथ बरयलो. हो ग्रंथ संस्कृत भाशेंत आसा. ताचे उत्पत्तीविशीं जी म्हायती मेळटा ती अशी:

पुनर्वसु आत्रेय हाच्या म्हन्यांत स शिष्य शिकप घेताले. तांचीं नांवां अग्निवेश, जतूकर्ण, पाराशर, भेड, हारीत आनी क्षीरपाणी अशीं आसलीं. ह्या स शिष्यांनी वैजकीचेर ग्रंथ बरयले. अग्निवेशान बरयिल्ल्या ग्रंथाक 'अग्निवेश-तंत्र' म्हण्टात. अग्निवेशान आपल्या पुनर्वसु आत्रेय ह्या आचार्याचो ह्या ग्रंथांत जायते फावटीं उल्लेख केला. इ.स. च्या पयल्या शेंकड्याच्या शेवटाक हीं स तंत्रां सांपडटालीं. सद्या 'अग्निवेश-तंत्र' आनी 'भेडसंहिता' पळोवपाक मेळटात. चरक हो अग्निवेशाचो शिष्य आसलो. ताणें अग्निवेश-तंत्राचें संपादन केलें. ताका लागून हो ग्रंथ 'चरकसंहिता' ह्या नांवान वळखुपाक लागले. कांय शतमानां उपरांत

कपिलबलपुत्र दृढबल नांवाच्या काश्मिरी वैजान हे चरकसंहितेंत भर घाली. ही भर सुश्रुताचे शल्यक्रियेविशीं आसली. सद्याक पळोवंक मेळटा ते चरकसंहितेंतलो खंयचो वांटो कोणे संपादन केला, हें समजप जरी कठीण आसलें तरीय मूळ आत्रेय संहितेचें आर्विल्लें रूप म्हळ्यार 'चरकसंहिता' हें मात खरें.

चरकसंहितेंत सगळीं मेळून आठ प्रकरणां आसात, तीं अशीं:

**सूत्रस्थानः** हातूंत वखदीविज्ञान, आहार, पथ्यापथ्य, खास रोग, वैज आनी गांवठी वैज, शरीर आनी मानस चिकित्सा हे विशय आयल्यात.

**निदानस्थानः** हातूंत आठ मुखेल रोगांविशीं म्हायती आयल्या.

**विमानस्थानः** हातूंत रुच आनी शरीरसंवर्धन हे विशय आयल्यात.

**शारीरस्थानः** हातूंत मनशाचे कुडीचें वर्णन आयलां.

**इंद्रियस्थानः** हातूंत रोगाचे चिकित्सेविशीं नियाळ आयला.

**कल्पस्थान आनी सिध्दस्थानः** हातूंत सामान्य उपायांची म्हायती दिल्या.

चरकसंहिता हो ग्रंथ आयुर्वेदापुरतो मर्यादीत नासून तेवरवीं अध्यापन, देवतावाद, पूजा ह्या त्या काळांतल्या ग्रंथांचेरूय उजवाड पडला. वैजकी चिकित्सेविशीं मोलादीक तत्त्वां त्या ग्रंथांत बरयल्लीं आसलीं, तरी सांख्य, योग, न्याय हा विशयांचोय तातूंत आस्पाव आसा. ह्या महाग्रंथाचो अरबी सारके विदेशी भाशेंतूय अणकार जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**चरक-२:** चरक ह्या उतराचो अर्थ भोंवत रावपी असो जाता. गिन्यान मेळोवपाची इत्सा मनांत धरून देश-विदेशांत भोंवपी विद्वानांक 'चरक' म्हण्टाले. हे लोक विदेशांत गिन्यानाचो प्रसार करताले. कांय शिकिल्ले लोक गृहस्थाश्रम आपणायतकच ज्ञानसाधना चालू दवरताले. तेखातीर ते जायत्या जाग्यांनी भोंवन लोकांकडल्यान गिन्यान मेळयताले. चरक हो विद्यार्थ्यांचोय एक प्रकार आसलो. एका गुरुकडेन शिकप सोंपोवन दुसऱ्या गुरुकडेन शिकप घेवपी विद्यार्थ्याक 'चरक' म्हण्टाले.

पाणिनी हाणेंय चरकाचो उल्लेख केला. चरकाक 'हित पळोवपी' ह्या अर्थान 'चारकीण' ह्या उतराचो उपेग ताणें केला.

वैशंपायन आनी आलंबी, पलंग, कमल, ऋचाभ, आरुणी, तंडी, श्यामायन, कठ आनी कलापी ह्या ताच्या णव शिष्यांक 'चरक' अशें म्हळां. वैशंपायनाचे हे शिष्य विंगड विंगड वाठारांनी वचून आपल्या फांट्याचे उदरगतीखातीर वावुरताले आनी नव्या चरणांची थापणूक करताले.

वैदिक साहित्यांत जो हेर चरक विद्वानांचो उल्लेख येता तो असो:

आपूण चरक जावन मद्र देशांत रावतालो, अशें भुज्यू लाह्यायनीन याज्ञवल्क्याक सांगिल्लें, असो बृहदारण्यकांत (३.३.१) उल्लेख मेळटा. कुरुपंचाल देशांत उद्दालक आरुणी उत्तरेक वता, विद्वानांक शास्त्रार्थ करपाक आपयता, ताचे फुडें आचार्य शौनक आपली हार मान्य करता अशें शतपथ ब्राह्मणांत म्हळां. तक्षशिला विद्यापीठांतले विद्यार्थी अध्ययन म्हळ्यार विद्या-अभ्यास सोंपतकच देशाची वा लोकांची म्हायती करून घेवपाखातीर देशभर भोंवताले. सोनक जातकांत तांकां 'चारिकं चरन्ता' म्हळां. पाणिनी शब्दसंपत्त पुंजावपाच्या हावेसान देशभर भोंवलो आनी ताणें विद्वानांकडेन भासाभास केली, अशें युआनच्वांग हाणें बरोवन दवरलां. देखून, पाणिनी हाकाय चरक अशें म्हणूं येता.

- कों. वि. सं. मं.

**चरक-३:** यजुर्वेदाच्या कांय पोरन्या फांट्याक सामान्यपणान चरक अशें नांव आसा. चरकशाखांत कठ, अह्वरक कठ, प्राच्य कठ, कपिष्ठल कठ, चारायणीय, वारायणीय हे भेद आसात. शतपथ ब्राह्मणांत यजुर्वेदाच्या वांगड्यांक चरक म्हण्टाले. वाजसनेयी संहितेच्या एका खिलांत चरक हें उतर निंदा ह्या अर्थान आयलां. थंय पुरुषमेध म्हळ्यार बळी दिवपाचे वळेरेंत चरकाचार्य हो दुष्कृताचो बळी म्हूण सांगलां.

अशे तरेन चरकाचे विंगड विंगड प्रकार आसले तरी सामान्यपणान 'चरक' हें उतर मनशाचें बरें हीत पळोवपी, मनशाची मानसिक आनी शारीरिक दुख्खां पयसावपी व्यक्तीक उद्देशून वापरताले. फुडें ह्या शब्दाक वैज हो अर्थ प्राप्त जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**चरकपूजा:** चरकपूजा ही चड करून बंगाल प्रांतांतले बंगाली हिंदू लोक उमेदीन मनयतात. ही पूजा चैत्र म्हयन्याच्या निमणे ७ ते १० दीस वा म्हयनोभर मनयतात.

चरकपूजा करपाखातीर शंकराच्या देवळा मुखार एक खांब पुरून ताका दुसरो आडवो खांबो बांदतात. आडव्या खांब्याच्या तोंकाक एक आंकडो बांदिल्लो आसता. हे बांदावळीक चरक अशें म्हण्टात. चरक हो शब्द चक्र ह्या उतराचें आर्विल्लें रूप आसूंये, अशें मानतात.

चरकपुजेची चाल देव-देवतांक प्रसन्न करपाखातीर केल्या विंगड विंगड आत्मघातकी करण्यांतल्यान वयर सल्ली आनी पसवली, अशें दिसून येता. ह्या आत्मघातकी करण्यांमदीं स्वताची तकली, हात, पांय, जीब कापप असले भिरांकूळ प्रकार १९ व्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन चलताले. उपरांत ब्रिटीश सरकारान १८६३ त असल्या आत्मघातकी कर्तुपांआड कायदो केलो. तेवरवीं ह्यो गजाली शारांनी बंद पडल्यो; पूण गांवगिऱ्या वाठारांनी चालू उल्ल्यो.

वयल्या आत्मघातकी करण्यांचें आर्विल्लें रूप म्हळ्यार सध्याची चरकपूजा, अशें मानूं येता. हातूंत हरगौरीचो आनी वयर उल्लेख केल्या चरकाची पूजा करतात. हें व्रत धारण करपी लोक भगवीं वस्त्रां गुटलावन, जटा-खाड वाडोवन, आंगांक भस्म-बिबूत लावन, नाचत, गायत, गांवांगांवांनी भोंवतात. पुजेच्या काळार ते व्रतस्थ रावतात. तातूंतले कांय जाण चरकाक बांदिल्लो गरो आपले फाटींत तोपून वयलेवयर हुमकळटात. महाराष्ट्रांत खंडोबाच्या देवळामुखार गरो लावपाची पध्दत अस्तित्वांत आसली. हेभायर उज्यावेल्यान चलप, जीब कातरप हे तरेचे प्रकारूय हांगा चलतात.

चरकपुजेच्या दिसा हे लोक होळी पेटयतात आनी पेटपी उज्याच्या इंगळ्यांवेल्यान चलतात. कांय जाण खिळ्यांचेर न्हिदतात. कांय वाठारांनी शंकराक लिपोवपाचो खेळ जाता. पुजेच्या आदल्या दिसा एकाद्र्या कल्पना नाशिल्ल्या जाग्यार शंकराक लिपयतात. मागीर ताका सोदून काडून देवळांत हाडप, अशे तरेचो हो खेळ आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**चरणदास:** (जल्मः इ.स. १७०३, मेवात- राजस्थान; मरणः इ.स. १७८२).

एक नामनेचो संत. ताचें मूळ नांव 'रणजीतसिंह' अशें आसलें. ताचो जल्म एका ठ्सूर वैश्य कुळांत जालो. पूण तो ब्राह्मणकुळांत जल्माक आयिल्लो, अशें कांय जाणांचें मत आसा.

भुरगेपणांतूच चरणदासान वैराग्याचो मार्ग आपणायलो. १९ व्या वर्सा ताणें आपलो गुरू शुकदेव हाचेकडल्यान शब्दमार्गाचो उपदेश घेतलो. तेन्ना शुकदेवान ताचें नांव 'चरणदास' अशें दवरलें.

तेउपरांत चरणदासान बारा वर्सां सेगीत तपसाधना केली आनी भारतभर भोंवडी करून लोकांक उपदेश केलो.

ताणें व्हड प्रमाणांत काव्य-रचणूक केली. ताचे 'व्रजचरित्र', 'अष्टांगयोगवर्णन, 'भक्तिपदार्थवर्णन', 'ब्रह्मज्ञानसागर', 'धर्मजहाजवर्णन', 'ज्ञानस्वरोदय', 'शब्द आनी भक्तिसागर' हे ग्रंथ नामनेक पावल्यात. योग, ज्ञान, भक्ती, कर्म आनी कृष्णचरित्राचो दिव्य संदेश हे चरणदासाच्या काव्यांतले मुखेल विशय आसले. भागवताच्या इकराव्या स्कंधा सावन ताका काव्य रचपाची स्फूर्त मेळ्ळी, अशें मानतात.

चरणदासान रचिल्ल्या कांय काव्याच्यो ह्यो देखीः

मैं मिरगा गुरु पारधी, शब्द लगायो बान ।
चरणदास घायल गिरे, तन मन बींधे प्रान ।।

सत गुरू मेरा सूरमा, करै शब्द की चोट।
मारै गोला प्रेमका, ढहै भरम का कोट॥

अर्थ- हांव हरण तर गुरू शिकारी. ताणें शब्दरुपान शरसंधान करून चरणदासाक घायाळ केलो. ताचें तन, मन, प्राण पिंजून उडयले. सद्‌गुरू म्हजो सूरमा आसा. ताणें शब्दाचो घाय केलो. मोगा तोफेगुळो मारलो आनी भ्रमाचो कोट मोडून उडयलो.

चरणदासान १७३३ त चरणदासी पंथ ह्या वैष्णव पंथाची स्थापणूक केली. ह्या पंथाची बुन्याद ताणें दिल्लींत घाली. राधाकृष्ण हें ह्या पंथाचें उपास्यदैवत आसलें. भागवत आनी भगवद्‌गीता हे ह्या पंथाचे प्रमाण ग्रंथ आसले. श्रीकृष्ण होच उत्पत्ति-स्थिती-लयाक कारण आसून तो पदार्थरूपान (वस्तीरुपान) आमच्या मुखार उक्तो जाता, अशें ते मानतात. चरणदासान योगसाधनेक व्हडपण दिल्ल्यान कांय जाणांच्या मतान हो एक योगसंप्रदाय जावन आसा. ह्या पंथाचे अनुयायी गुरुक ईश्वर मानून ताची भक्ती आनी पूजा करतात.

ह्या पंथाचो प्रसार चडकरून दिल्ली प्रांत, उत्तर प्रदेश, पंजाब आनी राजस्थान ह्या वाठारांनी जालो. दिल्ली हांगा तांचो मुखेल मठ तेचपरी चरणदासाची समाधी आसा. आठ-धा सुवातींनी ताचे मठ आसून बहादुरपूरचो मठ सगळ्यांत व्हड आनी नामनेचो आसा.

चरणदासाच्या मरणावेळार ताचे ५२ शिष्य आशिल्ले, अशें म्हण्टात. सहजोबाई आनी दयाबाई ह्यो चरणदासाच्यो उपाट नामना मेळयिल्ल्यो शिष्या आसल्यो.

चरणदासाच्या ५२ शिष्यांचे बावन विंगड विंगड फांटे सद्याक वेगवेगळ्या वाठारांनी चलतात.

- कों. वि. सं. मं.

## चरतें (Ringworm): (पळेयात कात-२):

**चरू:** भात दवरपाच्या आयदनांत म्हळ्यार चरूस्थलांत शिजयल्ल्या पदार्थांक चरू म्हण्टाले. चरू ह्या उतराच्यो दोन व्याख्या आसात:

१. 'चरन्ति भक्षयन्ति देवा इमम्' = अग्नी आनी हेर देव जें भक्षण करतात, त्या अन्नाक चरू म्हण्टात.

२. 'चरति होमादिकमस्मात्' = जाचेवरवीं होम, यज्ञासारखीं कृत्यां चलतात, अशा पदार्थाक चरू म्हण्टात.

चरू ही एक म्हत्वाची हवन करपाची वस्त जावन आसा. चरू चडकरून तांदळाचो शिजयतात; तरी खासाप्रसंगार जव, राळे, तणाचें बीं, नीवार ह्याय पदार्थांचें चरू शिजोवपाक सांगल्यात. कांय यागांत चरू दुदांत तर कांय यागांत तुपांत शिजोवपाचो आसता. देखीक: अग्नये रसवतेऽजक्षीरे चरूं निर्वपेत्। (तैतिरीय संहिता). अर्थ- रसरशीत उज्याखातीर बोकडेच्या दुदांत चरू शिजोवचो.

चरू उदकांत शिजोवचेपरस दुदांत वा तुपांत शिजोवप, हें व्हड जतनाय घेवपासारकें काम जावन आसा. चरू हो कुक्कूटलेगीत भायर पडूंक दिनासतना शिजोवचो पडटा. चरू शिजयतना भायर रकल्यार प्रायश्चित घेवचें पडटा. चरूखातीर तांदूळ तयार करपाचें काम यजमानाची बायल करता. पूण तें शिजोवपाचें काम मात अध्वर्यु वा थारायिल्लो ऋत्विजच करता. चरू शिजयतकच तो दुसऱ्या पात्रांत रकयतात आनी मागीर ताची आहुती दितात.

- कों. वि. सं. मं.

## चर्चिल, सर विन्स्टन: (जल्म: ३० नोव्हेंबर १८७४, ऑक्सफर्डशर; मरण- २४ जानेवारी १९६५, लंडन).

ब्रिटनचो दुसऱ्या म्हाझूज काळांतलो पंतप्रधान, खबरेपत्रकार, साहित्यिक आनी एक व्हड राजकारणपटू. ताचें पुराय नांव विन्स्टन लेनर्ड स्पेन्सर चर्चिल. ब्रिटनच्या मार्लबरो ह्या नामनेच्या उमराव घराण्यांत ताचो जल्म जालो. बापूय लॉर्ड रॅन्डॉल्फ हो हुशार आनी बंडखोर असो संसदेचो वांगडी आशिल्लो. आवय जेनेट ही न्यूयॉर्क हांगाच्या लेनर्ड जेरोम ह्या लाखाधीशाची रुपेस्त चली आशिल्ली. ताचें मुळावें शिकप अनौपचारिक रितीन घरांतूच जालें. १९०८ त क्लेमन्टाइन हेजिअर हे चलयेकडेन ताचें लग्न जालें.



मुळाव्या शिक्षणा-उपरांत विन्स्टनान 'हॅरो' ह्या नामनेच्या विद्यालयांत प्र वे श केलो. हॅरोंत थोडे दीस शिकून ताणें सॅण्डहर्स्ट हांगाच्या लश्करी शाळेंत प्रवेश केलो. लश्करी शिकप जातकच १८९४ त ताणें चवथ्या हुस्सार पलटणींत प्र वे श घेतलो. १८९५ वर्सा ताणें क्यूबा हांगाचें बंड पालोवपाखातीर स्पेन सरकारावरवीं वांटो घेतलो. ह्याच वेळार 'डेली टेलिग्राफ' ह्या खबरेपत्रांत झुजाच्यो खबरो दिवन ताणें आपले पत्रकाराचे जिणेक सुरवात केली. फुडल्या वर्सा ताची नेमणूक लश्करी अधिकारी म्हूण वायव्य सरहद्द प्रांतांत भारतांत जाली. मालकंद देगणांत एका ल्हानशा झुजांत ताणें वांटो घेतलो आनी अलाहाबादच्या 'पायोनिअर' पत्राखातीर अहवाल धाडले. सेनापती किचनरचे इत्सेआड ताणें १८९८ त सूदानचे मोहिमेंत वांटो घेतलो; तशेंच त्या वर्सा तो बोअर झुजाच्या काळांत दक्षिण आफ्रिकेंत 'मॉर्नींग पोस्ट' ह्या दिसाळ्याचो खबरेकार म्हूण गेलो. थंय तो दुस्मानाच्या हातांत सांपडलो. बंदखणींत आसतना व्हड धाडस करून तो पळून गेलो आनी परत सैन्यांत प्रवेश करून बोअर झुजांत ब्रिटिशांक जैत मेळोवन दिवपाक ताणें हातभार लायलो.

हुजूर पक्षांतल्यान १९०० त तो ब्रिटीश संसदेचेर वेंचून आयलो. संसदेंत एक प्रभावी वक्तो म्हूण ताणें नांव मेळयलें. खुल्या वेपाराचो ताणें पुरस्कार केलो आनी १९०३ त जोसेफ चेंबरलेनच्या जकात धोरणाक कडक विरोध केलो. हेविशीं हुजूर पक्षाकडेन मतभेद जाल्ल्यान ताणें तो पक्ष सोडून उदारमतवादी पक्षांत प्रवेश केलो. १९०६ च्या साबार वेंचणुकेंत उदारमतवाद्यांक खूब व्हडलें भोवमत मेळ्ळें आनी चर्चिल हाची वसाहतींचो उपसचिव म्हूण नेमणूक जाली. ताका ब्रिटीश मंत्रिमंडळांत प्रवेश मेळ्ळो. एक दोन आडवाद सोडल्यार १९०६ सावन १९५५ मेरेन चर्चिल कसल्या ना कसल्या तरी खात्याचो मंत्री आशिल्लो. १९०८ त 'बोर्ड ऑफ ट्रेड'चो अध्यक्ष आसतना आनी १९१० त गृहमंत्रीपदाचेर आसतना ताणें खाण कामगारांचे राखणेखातीर कायदो केलो आनी बेकारांखातीर विम्याची येवजण आंखली.

१९११ त नौदलमंत्री जातकच ताणें नौदलाची पुनर्रचना केली. ताणें केल्ल्या यत्नांक लागून पयल्या म्हाझुजाचे सुर्वेक ब्रिटिशांचें नौदल सुसज्ज जाल्लें. नौदलाक वायुदलाची जोड लावन ताणें जर्मन घुरी थातारुन धरली. दार्दनेल्सचे सामुद्रधुनींतल्यान तुर्कस्थानाचेर घुरी घालपाचे ताचे येवजणेक यश आयलेंना. तशेंच गालिपोलीच्या झुजांत (१९१५) ब्रिटीश सैन्याचो व्हडा प्रमाणांत संहार जालो. हाचो सगळो दोश चर्चिलाचेर आयलो. देखून ताणें राजीनामो दिवन परत सैन्यांत प्रवेश केलो.

१९१६ त ताचो इश्ट लॉइड जॉर्ज हो मुखेल प्रधान जालो. जुलय १९१७ त, चर्चिल हाची झूजमंत्री म्हूण नेमणूक केली. ह्या पदाचेर आसतना ताणें निवृत्त जाल्ल्या सैनिकांखातीर फाव ती वेवस्था केली. ह्याच वेळार रशियन क्रांतीक ताणें खर विरोध करून दाव्या लोकांची दुस्मानकाय ओडून घेतली.

ऑक्टोबर १९२२, त हुजूर पक्षांत लॉइड जॉर्ज हाच्या संयुक्त मंत्रिमंडळाचें फाटबळ काडून घेतिल्ल्यान तें मंत्रिमंडळ बरखास्त जालें. नवे वेंचणुकेंत चर्चिल हाचो पराभव जालो. उदारमतवादी पक्षान मजूर पक्षाक फाटबळ दिवन तांचें सरकार सत्तेर हाडलें. ही गजाल चर्चिलाक मानवलीना. तो मजूर पक्षाचो खर विरोधक आशिल्लो, देखून उदारमतवादी पक्ष सोडून परत हुजूर पक्षांत आयलो. १९२४ चे वेंचणुकेंत हुजूर पक्षांतल्यान तो संसदेचेर वेंचून आयलो आनी ताका अर्थमंत्रीपद मेळ्ळें.

१९२९ च्या उदारमतवादी पक्षाच्या जैताउपरांत सुमार १० वर्सां चर्चिल हाका राजकी वनवासांत काडचीं पडलीं. मजूर पक्षाचो फुडारी रॅम्से मॅक्डॉनल्ड हाच्यावांगडा ताचें सुरवातीकसावन वायटपण आशिल्लें. ताका लागून १९३२ च्या राश्ट्रीय मंत्रिमंडळांत मॅक्डॉनल्ड हाणें ताका कसलेंच मंत्रीपद दिलेंना. हिंदी स्वातंत्र्याक चर्चिलाचो सुर्वेक सावन खर विरोध आशिल्लो. इतलेंच न्हय, तर फुडें दुसऱ्या म्हाझुजाच्या वेळार एकदम कठीण परिस्थितींत लेगीत ताणें हो हट्ट सोडलोना. भारताक थोडे तरी अधिकार दिवपाचें, हुजूर पक्षाचो फुडारी बाल्डवीन हाचें धोरण आशिल्लें. पूण चर्चिलाक हें पटनासलें. देखून १९३५ च्या हुजूर पक्षाच्या मंत्रिमंडळांत ताका घेतलोना. बाल्डविनाउपरांत चेंबरलेन इंग्लंडचो पंतप्रधान जालो. पूण हुजूर पक्षाचे फुडारी आनी चर्चिल हांचेभितरले मतभेद वाडतूच आशिल्ले. हिटलराच्या आनी जर्मनीच्या आक्रमक कारवायांविशीं दुसऱ्या म्हाझुजाच्या ३-४ वर्सांआदीं चर्चिल हाणें पारख केल्ली. पूण ताचे सांगणेकडेन कोणेंच लक्ष दिलेंना.

दुसरें संवसारीक झूज १९३९ त सुरू जालें. चेंबरलेनान नाविकमंत्री म्हूण चर्चिलाची नेमणूक केली. वर्साभितरूच चेंबरलेनान राजीनामो दिलो आनी १९४० त चर्चिलाची नेमणूक संमिश्र सरकारांत पंतप्रधान म्हूण जाली. हो काळ ब्रिटीश सरकाराक प्रतिकूल आशिल्लो. हिटलरचें सैन्य आक्रमण घुरयो घालीत नेटान फुडें येतालें. पोलंड, हॉलंड, बेल्जियम, नॉर्वे, फ्रांस हे देश तांकां एका फाटोफाट शरण आयले. जर्मनीच्या अमानुश विस्ताराक आळाबंद हाडून लोकशायेची राखण करप, हो लोकशायवादी राश्ट्रांचो मुखेल उद्देश आशिल्लो. नाझीवादाच्या भिरांकूळ संकश्टाक लागून जगाची संस्कृताय नश्ट जातली, हाची जाणविकाय चर्चिलाक आशिल्ली.

कॉमन्स सभाघरांत चर्चिलचें पंतप्रधान म्हूण पयलें उलोवप जालें. तेन्ना 'रगत, कश्ट, घाम आनी दुकां बगर हांव तुमकां कांयच दिवंक शकना,' अशें सांगून जैत मेळमेरेन सगळ्या राश्ट्रान आपले पुराय तांकीन देशकार्याखातीर वावुरचें, अशें चर्चिलान आवाहन केलें. इंग्लंडान चर्चिलाच्या फुडारपणाखाल जर्मनीचे घुरयेक खडेगांठपणान तोंड दिलें. साम्यवादाक विरोध आसुनूय जर्मनीकडेन झुजपाखातीर ताणें रशियावांगडा इश्टागत केली आनी इंग्लंड, फ्रांस आनी अमेरिका ह्या तीन व्हडल्या राश्ट्रांवांगडा रशियाक घेवन जर्मनीआड लडाय सुरू केली. डंकर्क हांगाच्या पराभवाक लागून भियेनासतना जपान आनी जर्मनीचो जमता थंय पराभव करून ब्रिटनाचो नैतिक धीर ताणें खचूंक दिलो ना. दुसऱ्या म्हाझूज काळांत चर्चिलान केल्लें फुडारपण पुराय संवसारांत तोखणायेक पात्र थारलें.

जर्मनी आड झूज सोंपतकच जपानचो पराभव जांवचेआदीं जुलय १९४५ त ब्रिटीश संसदेची वेंचणूक जाली. तातूंत चर्चिलाच्या हुजूर पक्षाचो पराभव जालो. ताचेफुडलीं स वर्सां विरोधी पक्षाचो फुडारी म्हूण ताणें संसदेंत काम केलें. फूल्टन (मिसूरी) हांगा ५ मार्च १९४६ दिसा केल्ल्या उलोवपांत ताणें युरोपांत 'तिख्या पड्डो' तयार करपी रशियन कम्युनिझमाआड ब्रिटन आनी अमेरिका हांणी एकठांय येवपाक जाय, तशेंच अस्तंत युरोपीय देशांनीय एकवट करपाक जाय अशें सांगलें.

हुजूर पक्ष ऑक्टोबर १९५१ त परत अधिकाराचेर आयलो. चर्चिल परत पंतप्रधान जालो. १९५३ त ब्रिटनांतलो सगळ्यांत उंचल्या पांवड्यावेलो भोवमान 'ऑर्डर ऑफ द गार्टर' ताका मेळ्ळो. ५ एप्रिल १९५५ दिसा भलायकेक लागून तो निवृत्त जालो. उरिल्ल्या जिवितांत ताणें बरोवप आनी चित्रकला हातूंत लक्ष घालें.

ताणें बरयल्ल्या पुस्तकांची वळेरी अशी: 'द स्टोरी ऑफ द मालकंद फील्ड फोर्स' (१८९८); 'लॉर्ड रॅन्डॉल्फ चर्चिल' (१९०६); 'द वर्ल्ड क्रायसिस' (६ खंड, १९२३-३१), हातूंत पयल्या म्हाझुजाचो इतिहास आसा; 'मार्लबरो: हिज लाइफ अँड टाइम्स' (४ खंड, १९३३-३८); 'द सेकंड वर्ल्ड वॉर' (६ खंड, १९४८-५३), हे साहित्यकृतीक ताका नोबेल इनाम फाव जालें, (१९५३); 'अ हिस्ट्री ऑफ द इंग्लीश स्पीकिंग पीपल'(४ खंड, १९५६-५८), ह्या पुस्तकांत इंग्लंडचो इतिहास आयला. चर्चिलान आपल्या पुस्तकांवरवीं साहित्याच्या मळार खूब नामना जोडली.

- कों. वि. सं. मं.

**चलेजाव आंदोलन:** महात्मा गांधीच्या फुडारपणाखाल १९३० त जाल्ल्या सत्याग्रही आंदोलनाक लागून भारतीय स्वातंत्र्य लढ्याक नेट आयलो. तो लढो सोंपतकच रोखडीच गोलमेज परिशद, १९३५ चो कायदो, त्या कायद्यावरवीं प्रांतिक मंत्रिमंडळाची १९३७ त जाल्ली थापणूक ह्यो घडणुको घडल्यो. १९३९ त, दुसरें म्हाझूज सुरू जालें. सुर्वेक इंग्लंड आनी ताच्या इश्टराश्ट्रांचो पराभव जावपाक लागलो. ह्याच वेळार त्या साम्राज्यवादी देशांच्या वसणुकांनी स्वातंत्र्याचे चळवळीक नेट येवपाक लागिल्लो. हे परिस्थितींत ब्रिटीश सरकाराक पेंचांत हाडपाची ही संद एकदम बरी आसा, अशें कांय भारतीयांनी पारखिलें. राजकीय शिश्टाय करपाखातीर भारतांत आयिल्ल्या क्रिप्स शिश्टमंडळाक यश आयलेंना. दुसऱ्या झुजाउपरांत स्वातंत्र्याचो विचार करप जातलें, ही ब्रिटीश सरकाराची भूमिका क्रिप्स शिश्टमंडळान मांडिल्ली. ताचेर विश्वास दवरून ब्रिटीश सरकाराक दुसऱ्या झुजांत मदत करप, हें काँग्रेसीक मान्य नाशिल्लें. राश्ट्रव्यापी चळवळ करपाक काँग्रेस कार्यकर्ते आनी साबार भारतीय लोक उत्सुक जाल्ले.

काँग्रेसच्या (राश्ट्रसभेच्या) वर्किंग कमिटीन वर्धा हांगा ६ जुलय १९४२ दिसा भरिल्ले सभेंत स्वातंत्र्य प्राप्तीच्या आंदोलनाखातीर एक म्हत्वाचो थाराव मंजूर केलो. मुंबय भरिल्ल्या काँग्रेसच्या अधिवेशनांत ह्या थारावाचो मात्सो बदल करून स्वीकार जालो. 'छोडो भारत' वा 'चले जाव' ह्यो घोशणा दिवन ८ ऑगस्ट १९४२ दिसा तो क्रांतीकारी थाराव मंजूर जालो. स्वातंत्र्याचे मागणेखातीर वेगवेगळे मार्ग आपणावचे अशें थारायलें. सुर्वेक गांधीजीन व्हाईसरॉयकडेन चर्चा करून तडजोड करप शक्य आसा जाल्यार पळोवचें आनी मागीर सदचेभशेन पूर्वसूचना दिवन अहिंसात्मक पध्दतीन आंदोलन सुरु करचें, अशें थारायलें. पूण अकस्मात ८ तारखेक मध्यान्हेक ब्रिटीश सरकारान गांधीक आनी हेर फुडाऱ्यांक गुप्तपणान अटक करून बंदखणींत घाले. फुडाऱ्यांचे अटकेखातीर देशभर निदर्शनां जालीं. हे परिस्थितींत, मेळत त्या मार्गान ब्रिटीश सरकाराकडेन लढो दिवप आनी स्वराज्य मेळोवप ह्या संदेशान प्रेरित जावन भारतीय जनतेन ९ ऑगस्ट सावन 'चलेजाव आंदोलन' सुरु केलें. राश्ट्रीय फुडाऱ्यांतल्या फकत जयप्रकाश नारायण हाचेंच फुडारपण कांय काळ मेरेन हे चळवळीक मेळ्ळें.

आंदोलन चालू दवरपाचे नदरेन काँग्रेसीन एक मसुदो तयार केल्लो. तातूंत अशे मुद्दे आशिल्ले: शेतकारांनी शेतसारो दिवचो न्हय, जनावरांचें आनी धान्याचें विकप करचें न्हय, कागदी चलनाचो स्वीकार करचो न्हय, अन्न आनी कपडो हांच्या तुटीच्या संकश्टाची लोकांक कल्पना दिवची, 'स्वराज्य पंचायत'चें संघटन करचें आनी सरकारी अधिकारी आनी पोलिस अधिकारी हांचेर बहिश्कार घालचो, रेल्वे आनी रस्त्यावयली येरादारी तशेंच तार खातें हांच्यांतल्या लश्करी हालचालींक आडखळ हाडची.

१९३० त अहिंसात्मक मार्गान जाल्ले चळवळीच्या मानान 'चलेजाव आंदोलन' चड व्यापक आशिल्लें. १९४२ च्या आंदोलनांत सबंद देशभर संप, हरताळ, जाळपोळ, लुटालुट, घातपात, रेल्वेमार्ग आनी हेर

येरादारीचे मार्ग नश्ट करप, पोलिस कचेऱ्यो आनी हेर सरकारी कार्यालयां ताब्यांत घेवप, असले हिंसात्मक प्रकार घडले. हे चळवळींत मुखेल करून विद्यार्थी, शेतकार आनी कनिश्ट मध्यम वर्ग हांणी वांटो घेतलो. हिंसाचारापसून चळवळ मुक्त दवरप तांकां शक्य जालें ना.जायत्या क्रांतीकारक संघटनांनी ह्या आंदोलनांत वांटो घेतलो. ग्रामपंचायती ताब्यांत घेवन 'प्रतिसरकार' स्थापन करपाचे यत्न ह्या आंदोलनांत पयलेच खेप जाले. हें आंदोलन असंघटित आनी विस्कळीत आसून लेगीत सरकारी यंत्रणा सामकी त्रस्त जाल्ली.

पयले दोन म्हयने चळवळीचो प्रभाव खूब खर आशिल्लो, पूण मागीर चळवळीचो धग ल्हवल्हव न्हिवत गेलो आनी शांत जालो. अधिवेशनांतल्या भाशणांचो आदार दिवन ब्रिटीश सरकारान सांगलें की ही चळवळ सुरू करपाक काँग्रेस जापसालदार आसा. चळवळीची मानसिक तयारी काँग्रेसीन केली तरी आंदोलन चेपून उडोवपाचे यत्न, लश्कराचे आनी पोलिसांचे अत्याचार, सरकाराचें जुलमी धोरण हाका लागून लोक अदीक खुबळळे आनी विध्वंसक जाले, अशें काँग्रेस कार्यकर्त्यांचें म्हणणें आशिल्लें. काँग्रेसींत क्रांतिकारक विचारांचे जायते लोक आशिल्ले. तातूंत जयप्रकाश नारायण, अच्युतराव पटवर्धन, अरुणा असफ अली हांचो आस्पाव आसलो. 'सियाराममदल', 'परशुराम दल', 'हिंदुस्थान सोशलिस्ट आर्मी', 'रिपब्लिकन आर्मी', 'अनुशीलन', 'युगांतर' हे क्रांतीकारक गट भूंयगत पध्दतीन चळवळ सोंपतकच लेगीत कार्य करीत रावले. अशे तरेन ब्रिटीश सरकाराक हैराण करून लेगीत झूज सोंपचेपयलीं स्वराज्य दिवपाचें तांणी कशेंच मान्य केलेंना.

- कों. वि. सं. मं.

**चवथ (गणेश चतुर्थी):** भाद्रपद शुध्द चवथीक 'चवथ' अशें म्हण्टात. महाराश्ट्रीय लोक चवथीक 'गणेश चतुर्थी', कानडी लोक 'बेनलन हब्ज' तर तेलगू लोक 'पिल्लेयर चवती' अशें म्हण्टात. दर म्हयन्याच्या शुक्ल पक्ष म्हळ्यार पयले पंद्रशीचे चवथीचे तिथीक 'सिध्दीविनायक चतुर्थी' म्हण्टात. भाद्रपद म्हयन्यांत मात तिका 'महासिध्दीविनायक' म्हण्टात. चवथ मंगळार वा आयतारा दिसा आयल्यार तिका चड म्हत्व आसता. मंगळारा आयिल्ले चवथीक 'शिवा चवथ' तर आयतारा आयिल्ले चवथीक 'वरदचतुर्थी' म्हण्टात.

श्रीगणेश म्हळ्यार गणपतीचो जल्म भाद्रपद शुक्ल चवथीक जाल्लो. श्रीशंकरान हे तिथीक कैलासाचेर श्रीगणेशाच्या जल्माचो उत्सव मनयिल्लो. श्रीगणेशान सिंदुरासुराक ह्याच दिसा मारलो, अशे उल्लेख पुराणांत आयल्यात. ह्या कारणाखातीर 'गणेश चवथ' सुरू जाली, अशें मानतात.

श्रीगणेशाची पूजा केन्ना सुरू जाली हाचो निश्चीत काळ मेळना. पेशवे कोंकणांतल्यान घाटार गेले, तेन्ना तांणी हो उत्सव भौशीक केलो. पेशवाई उपरांत कांय वर्सांनी सन १८९४ त लोकमान्य टिळकान सार्वजनीक गणेशोत्सव परतो सुरू केलो. ब्रिटीश राजवटीआड भारतीय लोकांभितर जागृताय निर्मुपाचो हावेस ह्या उत्सवाफाटल्यान आसलो. पूण आयज ह्या उत्सवाचें मूळ स्वरुप बदललां आनी मनोरंजन हो एकूच हेत हो उत्सव मनोवपाफाटल्यान उरला. महाराष्ट्र आनी गोंयाखेरीज बडोदा, इंदूर ह्या भायल्या प्रांतांनीय सार्वजनीक गणेशोत्सव मनयतात.

गणपती पुजनाक सुरू जावचे आदीं त्या जाग्यार ऊंच माटोळी बांदतात. ते माटोळेक चिबूड, केळीं, मावळींग, दुदी, सफरचंद पणस आनी हेर फळां, फुलां बांदतात. कूडभर शेण सारोवन रांगोळी घालून निवळ आनी सोबीत करतात. मूर्त जे सुवातेर दवरपाची आसता थंय आरास, मखर करतात.

कांय सुवातींनी भाद्रपद शुक्ल तृतीयेक म्हळ्यार तये दिसा 'महादेव गौरीचें' पूजन करतात. ह्या दिसा 'गौर पूजेक लायली' अशें म्हण्टात. घरांतल्यो बायलो तये दिसा उपास करतात.

चवथी दिसा चड करून चिकणमातयेची गणपतीची मूर्त हाडून मखरांत चवायेचेर दवरतात. ही चवाय एका ऊंच मेजार दवरिल्ली आसता. गणपतीची मूर्त उदेंत, अस्तांत वा उत्तर दिकेक तोंड करून दवरतात. दनपारच्या वेळार गणपतीची षोडशोपचार पूजा करतात. पूजेक रक्तचंदन, वासाळफुलां, तुळस, केगदी, शमी, शेंदूर, एकवीस तऱ्हांची पत्री (पानां), बुको, पंचामृत अश्यो वस्तू लागतात. आवाहन, आसन, पाद्य, अर्घ्य, आचमन, स्नान, वस्त्र, यज्ञोपवीत, गंध, पुष्प, धूप, दीप, नैवेद्य, प्रदक्षिणां, नमस्कार आनी मंत्रपुष्प हे षोडश म्हळ्यार सोळा उपचार देवाक ओंपतात. हे पुजेउपरांत महाभिशेक आनी आरती करून फुलां घालतात. ते उपरांत साष्टांग नमस्कार करून श्रीगणेशाक एकवीस मोदकांचो निवेद्य दाखयतात. हे मोदक पंचखाद्य नेवऱ्यांवांगडा प्रसाद म्हणून भक्तांक वांटतात.

प्रसाद वांटून जातकच गणपतीक एकवीस दुर्वा (हरयाळी) ओंपतना फुडलो मंत्र म्हण्टात.

गणाधिप नमस्तेस्तु उमापुत्राघनाशन। एकदंताभववेती तथा मूषक वाहन।। विनायकेश पुत्रेति सर्वसिध्दीप्रदायक कुमार गुरवेतुभ्यं पूजनीयः प्रयत्नतः ।।

गणपतीची मूर्त पूजतात तेन्नाच महादेव-पार्वतीची पूजा जाता. महादेवाखातीर सोलिनाशिल्लो नाल्ल दवरतात. गौरीखातीर पानां, फुलां हांची एक मोवळी बांदून ताका गौरीचें चित्र आशिल्लो कागद बांदतात.

चवथीदिसा रातीकडेन गणपतीची पंचोपचार पूजा जाता. भजन-कीर्तन-आरत हांच्या सुनेळान चवथीची रात गजबजून वता. चवथीचे दुसरे रातीक ऋषी-पंचम म्हूण वळखतात. पंचमी दिसा सकाळीं षोडशोपचार पूजा, आरत्यो जातात. सांजवेळा गणपतीची उत्तर पूजा जाता त्या वेळार हुंदराकूय नैवेद्य दाखयतात. आरती-भजन जातकच, गणपती पुजपी घरांतलो जाण्टो मनीस वा भट 'फलप्राप्ती' खातीर देवाक सांगून घेता.

गणपतीचे मुर्तीचें विसर्जन पंचमी दिसा सांजवेळा म्हळ्यार सादारणपणान देड दिसान जाता. कांय घरांत वर्सावळीचे पांच, सात, णव दिसाचे गणपती आसतात, तर कांय घरांनी आंगवण करून गणपती दवरतात. गणपती एकवीस दीसमेरेन पूजपाची चाल आसा. कांय जाग्यांर गणपतीचें विसर्जन इकरा दिसांनी नाजाल्यार अनंतचतुर्दशीक जाता. कांय गांवांनी सगळे गणपती पांच दीस दवरपाची चाल आसा.

उत्तर पूजा जातकच गणपतीचे मुर्तीचें विसर्जन करतात. आमोरे सावन रातमेरेन हें विसर्जन चलता. मूर्तीचें विसर्जन न्हंयंत, तळ्यांत, दर्यांत, व्हाळांत वर्सावळीप्रमाण करतात. कांय सुवातींनी मूर्त बांयतच बुडयतात. गणपतीक पावयतना (विसर्जन करतना) कांय लोक ताचेर धंय दवरतात. कांय लोक पंचमी दिसा चार पांच भाज्यो एकठांय शिजोवन 'शिदोरी' म्हूण गणपतीवांगडा उदकांत सोडटात. घांटार गौरी हाडप, विसर्जन करप असो वेगळो क्रम आसता.

गणेश चवथीचे रातीकडेन चंद्र पळेल्यार चोरी केल्याचो आरोप येता, अशें म्हण्टात. ह्या संबंदान एक कथा पुराणांत चलता, ती अशीः

एक फावट गणेश हुंदरार बसून वतालो. ताका पळोवन चंद्र हांसलो तेन्ना रागान 'तुजें तोंड लोक पळोवचे नात' असो गणपतीन चंद्राक श्राप दिलो. श्रापाक लागून चंद्राचें तेज ना जालें. तो काळो पडलो. तेन्ना चंद्रान उःशाप मागलो. 'चवथी दिसा तुजें तोंड कोणूच पळोवचो ना' असो गणपतीन उःशाप दिलो. ह्या दिसा चंद्राचें तोंड पळयल्यार चोरयेचो आळ येता असो समज आसा. श्रीकृष्णान चवथी दिसा चंद्र पळयिल्लो म्हूण ताचेर स्यमंतक मणी चोरिल्ल्याचो आळ आयिल्लो, अशी कथा आसा.

भारतांत गुजरात, कर्नाटक, आंध्र प्रदेशांत चवथ मनयतात. महाराष्ट्र आनी गोंय राज्यांत चवथीची परब व्हड उमेदीन मनयतात. कोल्हापूरांतले लोक गणपतीचे रंगीत मुर्तीवांगडाच चिखलाचो एक खडबडीत गुळो पुजेक लायतात, जाका ते 'गणोबा' म्हण्टात. कोंकण, कारवार, गोंय आनी रत्नागिरी वाठारांत हे परबेक मोटो नेट आसता. ह्या वाठारांत घरांघरांत गणपतीचे मुर्तीचें चवथीच्या दिसा पूजन जाता.

गोंय पोर्तुगेजांच्या शेकातळा आसतना पोरने काबिजादींत पोर्तुगेजांनी

मूर्तीपूजा बंद केल्ली. तेन्ना कागदाचेर गणपतीचें चित्र काडून पूजा करपाची चाल कांय घरांनी सुरू जाल्ली.

समाजांतले कांय लोक गणपतीचे पुजेउपरांत नव्या लग्न जाल्ल्या जोडप्यांकडल्यान, एका सुपांत नाल्ल, तांदूळ, केळीं, बदाम, खारीक, नेवऱ्यो सारके जिन्नस घालून पुरोयताक दान करतात. ताका 'हौशे' म्हण्टात.

गोंयांत चवथी दिसांनी फोग, माराण पेटोवपाची चाल आसा. श्रावणाचे शुक्ल चवथीसावन भाद्रपद शुक्ल चवथीमेरेन 'पार्थिव गणेशपूजा' म्हूण गणपतीचें पूजन करतात. भाद्रपद चवथीक भांगराचो गणपती करून ताची पूजा करतात. ती मूर्त पुरोयताक दान करची, अशें सांगलां.

- नारायण रामचंद्र केळकर

**चवळी:** (मराठी- चवळी, आळसुंदे; हिंदी- लोबिया, लोटा; गुजराती-छोला, छोरा; कन्नड- अळसंदी, तडगुणी; संस्कृत- राजमाष; इंग्लीश- काऊ-मार्बल काचांग, काचांग-पी; लॅटीन- विग्ना काचांग कूळ-लेग्युमिनोजी).

चवळेचें रोंप हें जायत्या प्रकारांचें आसूंक शकता. म्हळ्यार तें पसरट, लांबोडें, उबें, मोटवें नाजाल्यार वालीसारकें माटवार चडपी आसूंक शकता. चवळेच्या पानांची लांबाय ७.५ ते १५ सेंमी. इतली आसता. पानां गाड पाचव्या कोराचीं आसतात. चवळेच्या रोंपाचें कांड आनी खांदयो पांचव्यो नाजाल्यार गोबरा कोराच्यो आसतात. चवळेचीं पाळां तंतुमय (fibrous) प्रकाराचीं आसून तांचेर बारीक-बारीक पुळयो आसतात. हांकां 'रायझोबीयम नोड्यूल्स' अशें म्हण्टात आनी हातूंत हवेतलें नत्र ओडून तें जमनींत सांठोवपाची तांक आसता. हाका लागून जमनीची कस वाडपाकूय मदत जाता.

चवळेच्या फुलांचो रंग जातीप्रमाण धवो, लेव जांबळो वा सदाफुलीच्या फुलांच्या कोरासारको आसता. चवळेच्या सांगांचो रंग पोपटी, च्यॉकलेट, लेव हळडुवो वा तांबूस पाचवो असो जातीप्रमाण थारता. सांगो ७ ते ८ सेंमी. इतल्यो लांब आसूं येतात आनी तातूंत ८ ते २० बियो आसतात.

चवळेचें पीक पूर्विल्ल्या काळासावन घेत आयल्यात. ह्या पिकाचो उगम आफ्रिकेंतल्या उश्ण प्रदेशांत जालो, अशें मानतात. पूण भारतांत ह्या पिकाची लागवड खूब आदल्या काळासावन म्हळ्यार वेदकाळासावन चलत आयल्या. हें पीक चड करून उश्ण वाठारांनी लायतात. भारतांत चवळेची पिकावळ सगळ्या राज्यांनी आनी केंद्रशासित प्रदेशांनी करतात. संवसारांत चवळेचें सगळ्यांत चड पीक आफ्रिका खंडांत आसा (९०%). तेभायर हें पीक आशिया, अमेरिका, युरोप, ऑस्ट्रेलिया ह्या देशांतूय सांपडटा. भारतांत उत्तर प्रदेश, पंजाब, कर्नाटक, हरियाना, आंध्र प्रदेश, मध्य प्रदेश ह्या राज्यांनी चवळेची लागवड जाता. भारतांत वट्ट २६ लाख हेक्टर जमीन चवळेचे लागवडीखाल आसून ताचें वर्सुकी उत्पन्न सुमार १९ लाख टन इतलें जाता. गोंयांत १३,००० हेक्टर जमनीचेर चवळी पिकता आनी ताचें सरासरी उत्पन्न ५००-६०० किग्रॅ. दर हेक्टरा फाटल्यान मेळटा.

**प्रकार आनी जाती:** मोटवी आनी पसरट वा वालीप्रमाण वाडपी अशे चवळेचे दोन मुखेल प्रकार आसात. वेवसायिक शेतीखातीर मोटवे जातीचोच वापर करतात. चवळेच्यो सुदारीत अश्यो २०-३० जाती आसात. तातूंतल्यो मुखेल जाती अश्यो:

*सी- १५२:* हे जातीचें पीक १०५-११० दिसांनी तयार जाता. ही जात चड करून कड्डणांखातीर वापरतात. पूण गोरवांचे खावडीखातीर तशेंच पाल्याच्या साऱ्याखातीरूय हिचो वापर करतात. ही जात दरेक हेक्टरी १५ ते २० क्विंटल उत्पन्न दिवंक शकता. हे जातीच्या बियांचो रंग चॉकलेट कोराचो, तांबूस असो आसता.

२. *पुसा-दो-फसली:* हे जातीचें पीक ८५-९५ दिसांनी तयार जाता. हे जातीचें उत्पन्न ३०-३५ क्विंटल इतलें आसता आनी बियांचो कोर धवसार आसता.

हेभायर हेर जायत्यो सुदारीत जाती संशोधनांतल्यान तयार केल्यात. तातूंत डी.पी.सी. एल्. (D.P.C.L.) २१० हे जातीचो आस्पाव जाता. तेभायर गोरवांचे खावडीखातीर के-३९७, के-५८५, एस्. ४५० हांचोय आस्पाव जाता.

**लागवड:** चवळेचें पीक उपोश्ण कटिबंधी वाठारांत तशेंच उश्ण वाठारांत लावपाक जाता. हें पीक उणें उदक आशिल्ल्या वाठारांत घेवपाक जाता. ह्या पिकाची वाड २७° से. ते ३५° से. ह्या तापमानांत बरेतरेन जाता. हें पीक तरांतरांच्या जमनींचेर घेवपाक जाता. पूण आंबट (acidic) आनी क्षारीय (alkaline) जमनींत हें पीक बरेभशेन जाता. ह्या पिकाची जमीन एक दोनदां खणून माती बारीक करून घेतात. चवळेचें पीक सर्द हंगामांत ऑगस्ट-सप्टेंबर म्हयन्यांत आनी वांयगणांत नोव्हेंबर-डिसेंबर म्हयन्यांत घेवपाक जाता. पांचव्या पाल्याच्या साऱ्याखातीर वापरपाक चवळेचें पीक जून-जुलय म्हयन्यांत रोवतात. दरेक हेक्टराफाटल्यान २०-२५ किग्रॅ. बीं वापरतात. पूण गोरवांचे खावडीपासत हें पीक घेवपाचें आसत जाल्यार तशेंच साऱ्याच्या पाल्याखातीर लायिल्लें आसल्यार हॅक्टरी ३५-४५ किग्रॅ. बीं वापरतात. बीं लावचेपयलीं बियांक 'थायरॅम' आनी 'रायझोबियम् कल्चर' हीं वखदां बरेभशेन चोळून लायतात.

सर्द पीक लायतना, ३०-३५ सेंमी. अंतराचेर वळी मारून बीं रोयतात; तशेंच रोपांतलें अंतर ८-१० सेंमी दवरतात. पूण वांयगण पिकाखातीर दोन वळींतलें अंतर २५-३० सेंमी. दवरतात. चवळी हें एक द्विदलीय (leguminous) पीक आशिल्ल्यान ताका नत्राचो पुरवठो पाळांतल्यान जाता. पूण ह्या पीकाक दरेकी हॅक्टर सुवातीक १० ते १५ नत्र, ५०-६० किग्रॅ. स्फुरद आनी ४०-५० किग्रॅ. पालाश अशीं सारीं दितात. तशेंच दर हेक्टर सुवातीक १० टन कुशिल्लें शेणखत जमनींत वापरतात. चवळेच्या पिकाक वांयगण आनी गिमांत तशेंच खास करून फुलां येवपाच्या वेळार ३-४ फावट उदकाची पुरवण करची पडटा.

**उत्पन्न आनी पीक:** चवळेचें पीक हें वाल वा तरन्या सांगांखातीर वापरपाचें आसल्यार ४५-९० दिसांभितर काडूंक जाय. पूण चवळी ही कड्डणाच्या रुपांत वापरपाची आसल्यार ह्या पिकाक ९० ते १२५ दीस लागपाक शकतात. सांगो पिकूंक लागतकच आनी सुकूंक लागतकच चवळेचें पीक काडटात आनी ह्यो सांगो मळार घालून मळटात. सांठोवचेपयलीं चवळी वोतांत सुकोवन घेतात. गोरवांचे खावडीखातीर लायिल्लें चवळेचें पीक ४०-४५ दिसांभितर काडपाक जाता. गोरवांच्या पाल्याखातीर पीक लायत जाल्यार चवळेच्या पिकाचें उत्पन्न दरेकी हेक्टरा फाटल्यान २५०-३५० क्विंटल इतलें मेळपाक शकता. तेचपरी कड्डणांखातीर लायिल्ल्या पिकाचें उत्पन्न जातीप्रमाण, दर हेक्टराक १२-१५ क्विंटल मेळूंक शकता.

**रोग आनी उपाय:** चवळेच्या पिकाक नडणी, रोग आनी किडी हांचेपसून बादा जावंक शकता. 'अॅन्थ्रेकनोज' (Anthracnose) हा रोगाक लागून पानांचेर आनी देंठांचेर तांबशीं खतां पडटात. चड रोग लागिल्लीं असलीं रोपां सुकपाक लागतात. तशेंच तेंगशी आनी देंठ फुटपाक लागता. हो रोग आळाबंदा हाडपाखातीर रोगप्रतिबंधक अश्यो जाती लायतात; तशेंच बीं लावचेपयलीं बियांक 'थायरम' हें वखद चोळून लायतात. ह्या रोगाचेर आनीक एक उपाय म्हळ्यार पीक आदलून-बदलून घेतात.

चवळेच्या पिकाक लागपी हेर रोगांमदीं Bacterial Leaf Blight (करपो रोग) हो आनीक एक रोग जावन आसा. ह्या रोगाक लागून तरनीं आनी जून पानां तशेंच फुलां करपूंक लागतात. हो रोग आळाबंदा हाडपाखातीर बरे तरेचें बीं वापरतात. तशेंच पिकाचेर 'फायटोलान' हें बुरशीनाशक वखद फवारतात. 'पावडरी मिल्ड्यू' (Powdery Mildew) ह्या रोगाक लागून पानांचेर, फुलांचेर तशेंच तेंगशेचेर धवी पिठ्यासारकी बुरशी (चितो) तयार जाता. हाका लागून रोंप बावता आनी सुकपाक लागता. ह्या रोगाआड उपाय म्हूण पिकाचेर सल्फरयुक्त वखदां फवारतात. हेर

रोगांमदीं Mosaic (मोझेक) हो एक व्हायरस रोग चवळेक लागता. ह्या रोगाक लागून मावो ही कीड पिकाचेर सगळ्याक पातळटा. ताका लागून रोपाची वाड जायना, शेंगो ल्हान उरतात. बरे तरेच्यो जाती वापरुन आनी मावो हे किडीआड वखदां वापरुन हो रोग पयस करपाक जाता.

चवळेक लागपी किडींत मावो, तुडतुडे, पिसोळीं आनी बारीक मुस तशेंच पानां, फुलांक बुराक घालपी जीव (Blister Beetle) हांचो आस्पाव जाता. ह्यो किडी पानां, फुलां, देंठ हातूंतलो रोस ओडून घेतात. ताका लागून पिकाक रोग जाता आनी रोंप मोटवें जावन ल्हव ल्हव बावन मरपाक लागता. हाचे आड फोस्फेमीडोन, मोनोक्रोटोफॉस, डायमेथोएट हे सारकीं खर वखदां फवारतात. तशेंच पानां खावपी कीड आनी भिकणांआड बी.एच्.सी. १०% पिठो मारतात, नाजाल्यार एन्डोसल्फान हें वखद फवारतात.

**उपेगः** मुखेल करून चवळेचो उपेग सांगो तशेंच बियांखातीर (कड्डण) म्हूण करतात. हे वनस्पतीपासत शाकाहारी रुपान २४-२८% प्रथिनां मेळटात. चवळेच्या झाडांचो गोरवांखातीर खावड म्हूण उपेग जाता. चवळेच्या पिकाचो जमनीचो कस वाडोवपाखातीर तशेंच पाचव्या पाल्याचें सारें करपाखातीरुय उपेग करतात. चवळेच्यो बियो उकडून खावपाखातीर तशेंच जेवणांत तरांतरांचे जिनस करपाखातीर वापरतात. चवळेच्या बियांची दाळ करून ताचेपसून तरांतरांचे जिनस करतात. चवळेच्या सांगांपसून आनी बियांपसून प्रथिनां, स्निग्ध पदार्थ, कार्बोहाइड्रेट्स, खनिजां आनी कॅलरी मेळटात. हेभायर चवळेंत तरांतरांचीं जीवनसत्वां, वितंचकां *(enzymes)*, लीपीड्स *(lipids)* आनी अमाइनो अम्लां (amino acids) आसतात. चवळेचीं पानां, देंठ, मुळां, सांगो हांचेपासत बरे प्रतीची गोरवांची खावड तयार करतात. फिंगाच्या दुखण्याआड चवळेचो वापर करतात. कामीण जाल्ल्या दुयेंतीकूय चवळी दितात.

- एच्. आर. प्रभुदेसाय

**चवाठोः** जे सुवातेर चार रस्ते एकठांय येतात, ते सुवातेक 'चवाठो', अशें म्हण्टात. पुर्विल्ल्या आनी मध्ययुगांतल्या काळांत गांवगिऱ्या जिवितांत चवाठ्याक संस्कृतीक म्हत्व आसलें.

गुजरातांत भरवाड लोकांच्या लग्न सुवाळ्यांत हिजड्यांकडल्यान गंवा-पिठाचे चार पिंड चवाठ्यार उडयतात. गुजरातांत बलप्रतिपदेच्या दिसा घरांतलो कोयर-चिखल हाडून चवाठ्यार उडोवपाची चाल आसा. कांयकडेन शिगम्या दिसांनी चवाठ्यार होळी पेटयतात. याज्ञिक कृत्य करचेखातीर ज्या जाग्यावेली माती हाडपाक सांगल्या तातूंत चवाठ्यावेले मातयेचोय उल्लेख आसा.

गांवांत देवीची धाम आयल्यार देवी आयिल्ल्या मनशांच्यो खपळ्यो चवाठ्यार व्हरून उडयतात. देवी रस्त्यावेल्यान वचपी मनशांवांगडा दुसऱ्या गांवांत वता असो समज आसा. भारतांत भूत, पिशाच्च, दुश्टबाधा निवळावपाक करतात तो उपचार वा उतारे देवळामुखावेल्या चवाठ्यार हाडून उडयतात. अस्तंतेच्या राश्ट्रांनी आत्महत्त्या केल्ल्यांक आनी मरणाची ख्यास्त दिल्ल्या मनशांक चवाठ्यार पुरताले. ट्यूटन लोक गुन्यांवकारांक चवाठ्यारूच सुळार मारताले.

- कों. वि. सं. मं.

**चॅडः** आफ्रिका खंडाच्या मध्याक आशिल्लें एक गणराज्य. क्षेत्रफळः १२,८४,००० चौ. किमी.; लोकसंख्याः ५१,३९,००० (१९८६); विस्तार ८° उत्तर ते २३° उत्तर आनी १४° उदेंत ते २४° उदेंत. हाचे उदेंतेचे, सुदान, दक्षिण मध्य अफ्रिका प्रजासत्ताक, अस्तंतेक, कॅमरून, नायजेरिया, नायजर आनी उत्तरेक लिबिया हे देश आसात. एन्. जामेना ही हांगाची राजधानी आसा.

**भूंयवर्णन, हवामान, वनस्पत आनी मोनजातः** समुद्रासावन सुमार १,४५० किमी. पयस हो देश आसा. चॅड सरोवर हें हांगाचें एक खाशेलेपण आसा. शार्री, लोगोन ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो. हवामान वाठाराप्रमाण बदलता. पावसाचेंय प्रमाण वाठारांचेर आदारून आसा. कांयकडेन पावस खूब चड जाल्यार कांय कडेन सामकोच उणो पडटा. कांट्यारी झोंपा, तण, बाभळीचे जातीचीं झाडां, मिमोझा, पाम ही वनस्पत हांगा सांपडटा. उत्तरेखटेनच्या वाळवंटांनी ऊंट जाल्यार दक्षिणेवटेन हेर मोनजातीवांगडा हत्ती, शिंव, गेंडो, बिबटो वाग, जिराफ, शहामृग, म्हशी हे सारकी मोनजात सांपडटा.




**इतिहास आनी राज्यवेवस्थाः** युरोपीय वसाहतवादी हांगा पावचे पयलींच्या इतिहासाविशीं खासा म्हायती मेळना. पूण बोर्नू, आदामैवा, *बगिर्मी आनी वाडाय हीं आफ्रिकन साम्राज्यां थंय पयलीं आशिल्ल्याचे* पुरावे मेळ्ळयात. १८२२ त ब्रिटीश भोंवडेकार हांगा पावले. उपरांत फ्रेंचांनी हांगा आपलो शेक पातळायलो. १९६० त ह्या देशाक फ्रांसाकडल्यान पुराय स्वतंत्रताय मेळ्ळी आनी टोंबलबाये हो हांगाचो राष्ट्राध्यक्ष जालो. १९७५ त लश्करी उठाव जावन लश्कराचो मुखेल फेलीक्स मालौम हाणें सत्ता आपल्या हातांत घेतली. ७ जून १९८२ दिसा हिस्सेन हाब्रे हाणें सत्ता आपल्या हातांत घेतली. सद्यामेरेन तोच हांगाचो राश्ट्रमुखेली जावन आसा.

***अर्थीक स्थितीः*** चॅड एक गरीब देश जावन आसा. ९६% लोक शेतवड आनी गोरवां पोसपाच्या वेवसायांत आसात. कापूस, मको, मसमी भिकणां ही हांगाची मुखेल पिकावळ आसा. उदकाच्या उणावाक लागून पिकां फाव त्या प्रमाणांत जायनात. युरेनियम, थोरियम हांगा सांपडटा.

रेडिओ, सायकली, पायतणां निर्माण करपाचे कारखाने हांगा आसात. अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, युरोपीय आनी आफ्रिकन देशांवांगडा चॅडचे आयातनिर्यात वेव्हार चलतात. सी. एफ्. ए. फ्रँक हें हांगाचें अधिकृत चलन आसा.

**समाजीक स्थितीः** वंशीक नदरेन हांगाचे सुमार ३०% वयर लोक सुदानीक अरब, २५% बगिर्मी, सारा आनी क्रेइश जाल्यार उरिल्ले हेर वंशांचे आसात. धर्मीक नदरेन ४४% मुसलमान, ३३% किरिस्तांव, २२% पारंपारीक धर्म पाळपी जाल्यार उरिल्ले हेर धर्मांचे आसात. हांगाचें राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण १५% आसा. येरादारीची व्हडलीशी उदरगत जावंक ना. हांगासावन तीन दिसाळीं उजवाडाक येतात. फ्रेंच ही ह्या देशाची राज्यभाशा. आफ्रिकेंतल्यो थळाव्यो भाशाय हांगा बऱ्योच प्रचलित आसात. कलाकुसरीच्या मळार ह्या देशांतल्या लोकांनी बरीच हुशारी दाखयल्या. राजधानीबगर साह, मौंडू, आबेचे आनी केलो हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं शारां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**चॅडविक, सर जेम्सः** (जल्मः २० ऑक्टोबर १८९१, मँचेस्टर-इंग्लंड; मरणः २४ जुलय १९७४, केंब्रिज).

ब्रिटीश भौतिकीविज्ञ. ताचें शिकप मँचेस्टर आनी केंब्रिज हांगाच्या विद्यापीठांत आनी बर्लिनाकडल्या शार्लोटनबुर्क इन्स्टिट्यूशन हांगा जालें. केंब्रिज हांगाच्या कॅव्हेंडिश प्रयोगशाळेंत रदरफर्ड हाच्या मार्गदर्शनाखाल संशोधन करून १९२१ त चॅडविक हाणें पीएच्. डी. पदवी मेळयली. थंयच १९२३-३५ ह्या काळांत तो किरणोत्सर्गीविशींच्या (radioactivity) संशोधन विभागाचो संचालक आशिल्लो. १९३५-४८ ह्या काळांत तो लिव्हरपूल विद्यापीठांत भौतिकीचो प्राध्यापक आशिल्लो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत ताणें ब्रिटनचे अणुबाँब येवजणेचें संचालन केलें आनी अमेरिकेच्या लॉस ॲलमोस (न्यू मेक्सिको) हांगाचे आणवीय संशोधन प्रयोगशाळेंत काम केलें. १९४७-४८ त तो संयुक्त राश्ट्रांच्या अणुऊर्जा मंडळाचेर ब्रिटनचो प्रतिनिधी आशिल्लो. केंब्रिजच्या कीझ ॲंड गॉनव्हिले कॉलेजाचो १९४८-५८ ह्या काळांत तो मास्टर आशिल्लो. १९५७-६२ ह्या काळांत ब्रिटनच्या अणुऊर्जा मंडळाचो तो सदस्य आशिल्लो.

रदरफर्ड आनी चॅडविक हांणी वेगवेगळ्या मूलद्रव्यांचेर आल्फा कणांचो भडिमार करून ताका लागून जावपी मूलद्रव्यांतरणाचो (*transmutation*) अभ्यास केलो आनी अणुकेंद्राविशींय संशोधन केलें. जर्मन शास्त्रज्ञ व्हाल्टर बोटे आनी फ्रेंच शास्त्रज्ञ दांपत्य झॉल्यो-क्यूरी हांणी बेरिलियमाचेर आल्फा कणांचो भडिमार करून तेविशीं संशोधन केलें. ह्या भडिमाराक लागून एक अज्ञात प्रारण (radiation) तयार जावन ताका लागून बेरिलियम (berrylium) अणूंतल्यान प्रोटॉन (proton) उत्सर्जित जालो. ह्या आविश्काराचो चॅडविक हाणें असो अर्थ लायलो की हो आविश्कार प्रोटॉनाइतल्याच पूण विद्युत् भार नाशिल्ल्या कणाक लागून (न्यूट्रॉनाक लागून) घडून आयला आसतलो. ह्या कणाचें १९२० त रदरफर्ड हाणें भाकित केल्लें आनी ताचें अस्तित्व चॅडविक हाणें अशे तरेन सिध्द केलें. हो सोद अणूचें विघटन करपाच्या प्रयोगांत खूब म्हत्वाचो थारलो. न्यूट्रॉन ह्या म्हत्वाच्या मूलकणाचो सोद लायिल्ल्याखातीर चॅडविक हाका १९३५ वर्साचो भौतिकीचो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. चॅडविक हाची १९२७ त रॉयल सोसायटीचो वांगडी म्हूण वेंचणूक जाली आनी सोसायटीवरवीं १९३२ त ह्यूझ पदक आनी १९५० त कॉप्ली पदक हे भोवमान ताका फाव जाले. १९४५ त ताका नाइट हो किताब मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**चॅप्लिन, चार्लस् (चार्ली) स्पेन्सरः** (जल्मः १६ एप्रिल १८८९, लंडन; मरणः २५ डिसेंबर १९७७, ?).

अस्तंती चित्रपटसृश्टींतलो संवसारीक नामना जोडिल्लो विनोदी नट आनी चित्रपट-निर्मातो. नाटकाच्या वेवसायांत आशिल्ले ताचे आवय-बापूय 'व्होदव्हील' ह्या लोकनाट्याचे प्रयोग सादर करताले. चार्ल्साच्या भुरगेपणांतूच आवयन ताका नाचपाक-गावपाक शिकयल्लो. ताच्या भुरगेपणांतूच बापूय भायर पडिल्ल्यान आनी आवयचे मनोविकृतीक लागून ताका सातव्या वर्साचेर हे कलेचो जियोवपाखातीर उपेग करचो पडलो. ताचें भुरगेपण खूब गरीब परिस्थितींत गेलें. देखून ताका शिकप घेवप जमलेंना.

पिरायेच्या सतराव्या वर्सा ताचो भाव सिडनी हाणें चार्ल्साक फ्रेड कार्नो हे नाटक कंपनींत प्रवेश मेळोवन दिलो. १९१० त तो मुखेल नट म्हूण काम करपाखातीर हे कंपनीवांगडा अमेरिकेचे भोंवडेचेर गेलो. थंय डिसेंबर १९१३ त, ताका कीस्टोनच्या 'मॅक सेनेट' ह्या चलचित्रपटांत काम करपाची संद मेळ्ळी. हेच माळेंतल्यान चार्लीन 'हेडगो' ही व्यक्तिरेखा उबी केली. ते उपरांत तो रंगमाचयेर परत केन्नाच आयलोना. 'किड ऑटो रेसेस ॲट व्हेनिस' (१९१४) ह्या ताच्या दुसऱ्या चित्रपटाखातीर ताणें खासा भेस केल्लो. तकलेर डर्बी हॅट, घट झग्याभशेन दिसपी कोट, सदळ पँट, विचित्र आकाराचे बूट, फडफडपी मिश्यो आनी हातांतली बडी ह्या ताच्या विचित्र भेसाक लागून चार्ल्स लोकांक मूर्तीमंत विनोद कसो दिसतालो.

१९१७ वर्सा म्युच्युअल कंपनीखातीर ताणें तयार केल्ले 'वन ए. एम्.', 'दी पिलग्रीम', 'दि क्यूअर', 'इजी स्ट्रीट' आनी 'दि इमीग्रँट' हे चड वास्तववादी आनी उपहासात्मक चित्रपट आशिल्ले. १९१८ वर्सा ताणें आपलो स्वताचो स्टुडिओ उबारलो आनी नॅशनल फिल्म कंपनीकडेन मूकपट निर्मितीची कबलात केली. १९१९ त, डग्लस फेअरबँक्स, डेव्हिड ग्रिफिथ आनी मेरी पिकफर्ड हांच्यावांगडा ताणें 'युनायटेड आर्टिस्ट कार्पोरेशन' ही चित्रपट कंपनी काडली. हॉलिवुडांत ताचें स्वताचें चित्रपटनिर्मितीघरूय आशिल्लें. चित्रपटांत आवाजाचो उपेग करचो न्हय, अशें ताका दिसतालें. १९३६ त, 'मॉर्डन टाइम्स' ह्या चित्रपटांत ताणें आवाजाचो गरजेपुरतोच उपेग केल्लो. 'द ग्रेट डिक्टेटर' (१९४०) आनी मस्यू व्हेर्दू (१९४७) ह्या चित्रपटांनी ताका भरपूर नामना मेळोवन दिली. १९५२ तलो 'लाइम लाइट' आनी १९५७ तलो 'ए किंग इन न्यूयॉर्क' हे ताचे चित्रपट बरेच गाजले. तातूंतल्या 'लाइम लाइट' चित्रपटाक १९७३ त ऑस्कर पुरस्कार मेळ्ळो. 'ए किंग इन न्यूयॉक' ह्या चित्रपटाक लागून तो कम्युनिस्टांचो पक्षपाती आशिल्ल्याचो आरोप जालो, पूण ताणें तो खरपणान न्हयकारलो. १९६६ त, ताणें 'द काउंटेस फ्रॉम हाँगकाँग' हो वैश्विक स्वरुपाचो चित्रपट निर्माण केलो. हेभायर 'वुमन ऑफ पॅरिस' (१९२३), 'द गोल्ड रश' (१९२५), 'द सर्कस' (१९२८), 'शोल्डर आर्म्स्' हेय ताचे मूकपट बरेच गाजले.

चॅप्लिनाची खाजगी जीण बरीच घुस्पागोंदळाची आनी अस्थिर स्वरुपाची जावन आशिल्ली. ताणें वट्ट चार लग्नां केलीं. दावे मतप्रणालीचो प्रसार करपी अशी टिका ताचेर जाल्ल्यान ताणें अमेरिकन नागरिकत्व न्हयकारलें आनी १९५३ सावन तो आपली चवथी बायल आनी स भुरगीं हांचेवांगडा जिनीव्हा (स्वित्झर्लंड) हांगा रावपाक लागलो. १९६४ त ताणें आपली आपजीण उजवाडायली. १९७२ वर्सा चार्ली संयुक्त राश्ट्रांत परत आयलो. थंय न्यूयॉर्क शार आनी हॉलीवूड सिने इतिहासांतली म्हान व्यक्ती म्हूण ताचो भोवमान जालो. मार्च १९७५, त राणी एलिझाबेथ हिणें 'नाइटहुड' दिवन ताचो भोवमान केलो.

- दिलीप बोरकार

**चांगदेवः** (जल्मः ?; मरणः १३२५).

महाराष्ट्रांतलो एक म्हान ग्रंथकार आनी हठ्योगी. चांगदेवाक चांगा, वटेश्वर, वटेश चांगा, चक्रपाणी ह्या नांवांनीय वळखतात.

चांगदेवाचो जल्मदीस आनी जल्म सुवात हांचेविशीं निश्चित अशी म्हायती मेळना. विद्वान ताचो जल्म खानदेशांत एदलाबादा लागीं पूर्विल्ल्या काळांतल्या सुंदरपूर गांवांत जालो, अशें मानतात. सद्या ह्या गांवाक तागदेव म्हण्टात. स्वताच्या योगसामर्थ्याच्या मालवजार चांगदेव १४०० वर्सां जियेलो, अशी एक दंतकथा आसा. चांगदेव दर शंबर वर्सांनी आपल्या योगसामर्थ्याचेर आपली पोरनी कूड भायर उडोवन नवी कूड धारण करतालो, अशें ते दंतकथेंत मुखार म्हळां. अशे तरेन चांगदेवाची चवदा समाधी थळां आनी चवदा नांवां मेळटात.

कांय विद्वान चांगदेवाचो पयलो गुरु म्हूण वटेश्वराकडेन बोट दाखयतात, तर कांय जाण वटेश्वर हो ताचो उपास्य दैवत आशिल्ल्याचें मानतात. डॉ. ह. रा. दिवेकर हाच्या मतान वटेश्वर हें चांगदेवाच्या गुरुचें नांव जावन आसा. मात्त हो वटेश्वर मनीस नासलो, तर मुक्ताबाईन चांगदेवाक वडाच्या रुखापोंदा जें ईश्वररुप दाखयल्लें तोच वटेश्वर आसलो. सादारणपणान वटेश्वर हें चांगदेवाचें उपास्य दैवत आसलें, हें मत सगळ्यांक मान्य आसा.

चांगदेव हो ज्ञानेश्वराच्या काळांतलो व्हड हठ्योगी आसलो. एक फावट ज्ञानेश्वराची किर्त ताच्या कानार पडली आनी ताका ज्ञानेश्वराक पत्र बरोवचें अशें दिसलें. पूण पत्र बरयतना मायन्यांत तीर्थरूप बरोवचें काय चिरंजीव बरोवचें, हाचो निर्णय तो घेवंक शकलोना. निमाणें ताणें

आपलें पत्र एक उतर लेगीत बरयनासतना धाडून दिलें. तें पत्र मुक्ताबाईच्या हातांत आयलें. तिणें चांगदेवाक 'चवदाशीं वर्सां जियेवन कोरो तो कोरोच' अशें म्हळें. उपरांत ज्ञानेश्वरान त्या कोऱ्या पत्राक उत्तर म्हूण पांसश्ट होंवयो बरोवन धाडल्यो. होच ग्रंथ 'चांगदेवपासष्टी' ह्या नांवान गाजलो. फुडें चांगदेव जित्या वागाचेर बसून ज्ञानेश्वराक मेळपाक आळंदीक गेलो. थंय ताचें स्वागत करपाखातीर ज्ञानेश्वर आपल्या चौगूय भावंडांवांगडा वण्टीर बसून ताचे भेटीक गेलो. तें पळयतकच चांगदेवाचें गर्वहरण जालें आनी ताणें ज्ञानेश्वराच्या पांयांर घालून घेतलें. मागीर ज्ञानेश्वरान चांगदेवाक मुक्ताबाई कडल्यान उपदेश केलो, जेवरवीं चांगदेव एक ज्ञानी भक्त जावंक पावलो.

चांगदेव गिन्यानी भक्त जावंचेआदी गोरक्षनाथाची शिष्या आनी ज्येश्ठ योगिनी मुक्ताबाय हिचेकडल्यान उपदेश घेतिल्लो तिचे समाधी उपरांतच चांगदेव ज्ञानेश्वराच्या पंगडांत पावलो आनी ज्ञानेश्वराची भयण मुक्ताबाईक योगिनी मुक्ताबाईचो अवतार मानून रावपाक लागलो.

चांगदेवान व्हड प्रमाणांत अभंगांची रचणूक केल्या. चमत्कारान भरिल्लीं कूटां बरोवप हें चांगदेवाचें खाशेलपण आसलें.

चांगदेवाच्या नांवार 'तत्त्वसार' नांवाचो एक ग्रंथ आसा. तातूंतल्या होवयांचो आंकडो १०३६ आशिल्ल्याचो कळटा. पूण तातूंतल्यो ४०५ होंवयो वाचूंक मेळटात. हातूंत चांगदेवान सगळ्यांत पयलीं पद, पिंड, रुप आनी रुपातीत हांची विस्कटावणी केल्या आनी उपरांत निर्गुण भक्तीचो नियाळ केला. निर्गुण भक्तीचें लक्षण सांगतना चांगदेव म्हण्टा:

जे- पाप पुण्यापूर्वी। जन्ममरणाते हारवी।
महाबोधु चेववी। आत्मस्वरुपे ।।
जे दुसरेपणा हाणी। स्वर्ग संसारा धुणी ।
जे सविता निर्वाणी । स्वयं शिव ।।

निर्गुण भक्तीचें स्वरुप सांगतना मनपवन, षट्चक्रे, कुंडलिनी, लयलक्षयोग; समाधी, पंचभूते, शून्य, वज्रासन सारक्या हठ्योगसाधनांची म्हायती तातूंत दिल्या.

फुडें निर्वाण आनी सिध्दयोग हांचें प्रतिपादन करून ब्रम्हविवरण करतना ताणें 'तत्त्वमसि'ची फोड केल्या. ह्या ग्रंथाची रचणूक इ. स. १३१२ त हरिश्चंद्रगडाचेर (जि. नगर) जाली, अशें कळटा.

सद्या खानदेशांतल्या एदलाबाद लागीं चांगदेव गांवांत (सद्याचें सुंदरपुर) चांगदेवाचें देवूळ आसा आनी गोदावरी न्हंयचे देगेर पुणतांबे ह्या गांवांत ताची समाधी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**चांचेगिरी:** खुल्या समुद्रांत घोळपी जहाजां, गलबतां, पडाव, आगबोटी हांचेर घुरी घालून लुटमार करपी दरोडेखोरांक चांचे अशें म्हण्टात आनी तांचे हे लुटमारीक चांचेगिरी अशें म्हण्टात. अरबी समुद्रांत काठेवाडलागसार 'चांच' नांवाच्या जुंव्यावयले रहिवाशी अशी लूट करताले, देखून ह्या धंद्याक 'चांचेगिरी' नांव पडलें, अशें म्हण्टात. चांचे लोक वापरतात त्या तोंचीसारक्या तोंकदार मुंडाशावयल्यान हें नांव पडलें, अशें आनीक एक मत आसा.

सुमार २००० वर्सांपयलीं रोमन साम्राज्यांत भूमध्य सागरांत चांचेगिरी चलताली. नॉर्वे, स्पेन, इंग्लंड, फ्रांस ह्या देशांतले दर्यावर्दी मनीस संघटित टोळयो करून ही चांचेगिरी करताले. फुडें भूमध्य सागरांत चांचेगिरीक आळाबंद बसतकच तांणी आपलो व्याप तांबडो समुद्र, मादागास्कर (मॅलॅगॅसी), वेस्ट इंडीज, अमेरिका हांगाचो सागरी वाठार आनी भारताचो सोद लागतकच हिंदी महासागरामेरेन वाडयलो. भारताच्या इतिहासांतूय चांच्यांनी वेपाऱ्यांक लुटिल्ल्यांचीं खूब उदाहरणां मेळटात. शिवाजीन जलदुर्ग बांदलें, तातूंत परकीयांची चांचेगिरी आळाबंदा हाडप, हो मुखेल हेत आशिल्लो.

ल्हान-ल्हान जुंव्यांचेर रावन ऐन सुवातींचेर जहाजां लुटप आनी चांचेगिरी करप, हो कांय दर्यावर्दी लोकांचो वेवसायूच जाल्लो. खुबदां कांय असंतुश्ट खलाशी लेगीत ह्या चांच्यांक फितूर जाताले. चांचेगिरी संघटित स्वरुपाची आशिल्ल्यान आनी राश्ट्राचे शिमेभायर घडिल्ल्यान ताचेर खुल्या समुद्रांत नियंत्रण दवरप, शासनाक तशेंच संरक्षण वेवस्थेक कठीण वताले. चाच्यांक तोंड दिवपाखातीर वेपारी लोक जहाजांचेर शस्त्रधारी सैनिक दवरपाक लागले; प्रवासाक वतना एकठांय जावन वचपाक लागले, संरक्षक गलबतां घेवनूय उदकायेरादारी जावपाक लागली.

आंतरराश्ट्रीय कायद्याप्रमाण चांचेगिरी हो एका खाशेल्या राश्ट्राआड वा मनशाआड गुन्यांव नासून सगळ्या मनीसजातीआड गुन्यांव जावन आसा. चांच्यांक धरप, तांकां ख्यास्त दिवप हो दरेक राश्ट्राचो अधिकार आनी कर्तव्य आसा. १९५८ त जिनिव्हा परिशदेन चांचेगिरीची व्याख्या केल्या, तातूंत सकयले विशय आस्पावतात:

१. राश्ट्रीय शिमेभायर जहाज वा विमान हांची लूटमार, जहाजांतल्या आनी विमानांतल्या मनशांचेर घुरयो घालप आनी तांचें अपहरण करप.

२. चांचेगिरी करपाच्या उद्देशान एकाद्र्या विमानाच्या वा जहाजाच्या कार्यांत आपखोशयेन वांटो घेवप.

३. चांचेगिरी करपाक उत्तेजन दिवप वा मदत करप हो चांचेगिरीचोच भाग आसा अशें मानतात.

वाफेच्या इंजिनाचो आनी जलद पाणबुड्यांचो सोद लागतकच चांचेगिरी कांय प्रमाणांत आळाबंदा आयली. बिनतारी संदेशवहनाची तजवीज, जहाजावयली संरक्षण वेवस्था हाकाय लागून चांचेगिरीचें प्रमाण कमी जालां.

विमान पळोवन व्हरपाचे प्रकार म्हळ्यार हवाई चांचेगिरी फाटल्या २५-३० वर्सांत खूब वाडल्या. दुसऱ्या म्हाझुजांत रशियान उदेंत जर्मनी, हंगेरी हे उदेंत युरोपांतले देश घेतकच कम्युनिस्ट राश्ट्रांत रावपाची जांची इत्सा ना, अशा त्या देशांतल्या कांय लोकांनी सरकाराक विरोध करपाक हवाई चांचेगिरी पयलेच खेप १९४८ त केली. १९६० त अमेरिकेंत फरारी लोकांनी माफी मेळोवपाखातीर हवाई चांचेगिरी केली. हेंच तंत्र पॅलेस्टाइन मुक्तीखातीर आनी खास करून पॅलेस्टाइनचे दुर्दशेकडेन जगाचें लक्ष ओडपाखातीर, प्रदेश मेळोवपाखातीर, विमान पळोवप्यांक सोडोवपाखातीर आनी इझ्राएलाक मदत करतल्यांक धडो शिकोवचो म्हूण स्थापन जाल्ल्या राजकी संघटनांनी वापरलें. काश्मीर समस्येकडे जगाचें लक्ष ओडचें, ह्या हेतान १९७१ त एक भारतीय विमान पळोवन लाहोराक व्हरून लासलें. अशे तरेन राजकी दहशतवादाखातीर विमानांतले चांचेगिरीचो वापर जावपाक लागलो. हवाई चांचेगिरीचे गुन्यांव प्रमाणाभायर वाडिल्ल्यान नागरी विमान संघटनेच्या सदस्यांनी १९७० त असले गुन्यांव आळाबंदा हाडपाखातीर अभिसंधी (convention) तयार केली.

- कों. वि. सं. मं.

**चांदयकर, दत्ताराम गोविंद चव्हाण:** (जल्म: पिर्ण, चांदय-बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १९५९ वर्सा सावन तो गोंय सुटके सैन्यांत (Goa Liberation Army) आशिल्लो. तो पीटर आल्वारीसाच्या फुडारपणाखाल काम करतालो. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' संघटनेवरवीं ताणें लोकांक गोंयचे सुटकेविशीं प्रेरणा दिवपाचें काम केलां. तो पत्रकां वांटतालो. गोंय सुटके सैन्यान शिरगांव, मुळगांव, मोर्ले, सांकवाळ आनी सारमानस हांगा मीनाखणींचेर हल्ले करप, सुरींग लावप हेसारकीं कामां केलीं. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**चांफो:** **कनक चांफो:** (मराठी- कनक चाफा; हिंदी- खांबर, रामधन चंपा; कन्नड- नारोळे, मुद्दा; संस्कृत- कनकचंपा; इंग्लीश- गोल्डन चंपक; लॅटीन-ऑक्ना स्क्वॅरोजा, ऑ. जाबोटापिटा, कूळ-ऑक्नेसी). उंचाय सुमार २.५ मी. हो सुंदर, पानझडी आनी ल्हान रुख कोंकण आनी उत्तर

कारवार हांगाच्या दाट रानांनी आनी बिहार, ओरिसा, आसाम, तमिळनाडू, ब्रह्मदेश आनी श्रीलंका ह्या वाठारांनी दिश्टी पडटा. ताची साल पातळ, गोबराकोराची आनी तिकतिकीत आसता. पानां सादीं, लांबशीं, वाटकुळीं, चकचकीत, एका आड एक आनी मोटव्या देंठाचीं आसून तीं शिंयातेंपार झडटात. फुडें, फेब्रुवारी-मार्च ह्या म्हयन्यांत ह्या रुखाक तरन्यो कोमऱ्यो येवंक लागतात. तेन्नाच म्हळ्यार फेब्रुवारी- एप्रिल ह्या म्हयन्यांत चवरांभशेन परिमंजरीचेर भरपूर, वासाचीं, मोटीं, हळडुवीं फुलां येतात. ३-६ ल्हान फातराभशेन घट्ट बियो मेळून घोंसफळ जाता. नवी लागवड, बियो वा कलमावरवीं करतात.

ह्या रुखाचें लांकूड ताबशें, गोबऱ्या कोराचें आनी घट्ट आसता. हातांत धरपाचीं बेतां, कोरीव आनी जडावाचें काम हांचेखातीर ह्या लांकडाचो उपेग जाता. ह्या झाडाच्या मुळांचो काडो मासिक पाळयेच्या दुखण्याचेर, तेचपरी दमो, क्षय हांचेरुय दितात. ताची साल पाचक आनी शक्तिवर्धक आसा.

**कवठी चांफो**: (मराठी-कवठी चाफा; हिंदी- बारी चंपा; इंग्लीश- बुल ब ; लॅटीन-मॅग्नोलिया ग्रॅंडिफ्लोरा; कूळ-मॅग्नोलिएसी). उंचाय सुमार २४ मी. बाराय म्हयने पानां आशिल्लो हो सुंदर रुख. ताचें वंशवाचक लॅटीन नांव 'मॅग्नोलिया'. हें 'पियरे मॅग्नोल' ह्या मॉंपॅलिए वाठारांतल्या प्राध्यापकाच्या नांवावेल्यान दिलां. हो रुख मुळचो उत्तर अमेरिकेंतल्या कॅरोलायना ह्या वाठारांतलो आसा. तेचपरी भारत, ब्रह्मदेश, चीन, जपान ह्याय देशांत हो रुख दिश्टी पडटा. हिमालय आनी निलगिरी वाठारांनी २,१०० मी. उंचायेमेरेन ताची वाड बरी जाता. वासाळ फुलां हें ताचें खाशेलें लक्षण. ताचीं पानां सादीं, एका फाटल्यान एक, चिवट, गडद पाचवीं, व्हड, वयर चकचकीत आनी पोंदच्यान तांबशीं आनी केंसाळ आसतात. ताळयो आनी कळयो तांबश्यो केंसाळ आसून साल गोबराकोराची आनी गुळगुळीत आसता. ताळयेच्या तोंकाक एप्रिल ते मे ह्या म्हयन्यांत धवें, मोटें, वासाळ आनी द्विलिंगी एक-एक फूल येवंक लागता. फुलां फुलचेपयलीं पानांच्या राशींत आयिल्ल्यो ल्हान कळयो तांतयां भशेन दिसतात. संदलां मोटीं आनी पाकळ्यांभशेन आसतात. पाकळ्यो सुमार ६-१२ तांतयां आकाराच्यो आनी वेगवेगळ्यो आसतात. केसरदलां जांबळसार आनी कितलींशींच आसतात. किंजदलां वेगवेगळीं आनी भरपूर आसतात. देंठाच्या तोंकावेलो भाग लांबोडो आसता. ह्या रुखाक सुमार ७-१० सेंमी. लांब, तांबशें, केंसाळ आनी तांतयां आकाराचें घोंसफळ येता आनी दरेक ल्हान फळ फुटून तातूंतल्यान शेंदरी रंगाच्यो बियो भायर पडटात.

ह्या रुखाच्या पुराय भागांत वासाळ आनी उडून वचपी तेल आसता. फुलांपसून वासाळ मॅग्नोलिया तेल काडटात. ह्या नांवाचें अत्तरुय कृत्रिम तरेन काडटात. बियांपसून काडिल्लें तेल शाबू करपाक वापरतात. साल उत्तेजक, बासाळ, पुश्टीक आनी स्वेदकारी (घाम हाडपी) आसून थंडेचो जोर, संधिवात, हांचेर दितात. बियो आनी गुटी कलमापसून नव्या रोंपाची लागवड करतात. ह्या फुलाक लुइझिॲनाचें राश्ट्रीय फूल मानतात.

**खैर चांफो (कूड चांफो)**: (मराठी-खैर चाफा, पांढरा चाफा; हिंदी- गुळैंची, चमेली; गुजराती- राधा चंपो, धोळो चंपो; कन्नड- कडुसंपिगे; इंग्लीश- टेंपल ट्री, पॅगोडा ट्री; फ्रांजीपनी; लॅटीन- प्लुमेरिया ॲक्युटिफोलिया; कूळ- औपोसायनेसी). उंचाय सुमार ६-१० मी.; फकत स म्हयने पानां आशिल्लो, मध्यम आकाराचो रुख. हो रुख मूळचो मेक्सिको आनी ग्वातेमाला ह्या वाठारांतलो. पूर्विल्ल्या काळासावन भारतांत देवळाच्या वाठारांत हो रुख रोयताले. ताचे वेल्यानूच ताका टेंपल ट्री आदी इंग्लीश नांवां पडलीं. फ्रेंच धर्मोपदेशक, भोंवडेकार आनी वनस्पती तज्ञ चार्लस प्लूमर (१६४६-१७०६) हाचें नांव ह्या रुखाच्या लॅटीन वंशवाचक नांवांत घाल्लें आसून ताच्या तोंकाच्या पानांकडेन जातीवाचक नांवाचो संबंद आयला. ह्या रुखाक वांकड्यो तिकड्यो ताळयो आसतात आनी जायतेकडेन तांची विभागणी जाल्ली आसता. ताची साल खडबडीत आसून तिका दूख लागल्यार थंयच्यान धवो दीख भायर सरता. ताची शारीरिक लक्षणां ॲपोसायनेसी वा करवीर कुळांत वर्णन केल्याप्रमाण आसतात. खांदयांच्या तोंकांक एकामेकां सामखार, सादीं, मोटीं आनी भाल्याभशेन रुंद, दोनूय तोंकां अरुंद आशिल्लीं गच्च पानां येतात. डिसेंबर म्हयन्यांत हीं पानां गळूंक लागतात आनी पावसाळ्याचे सुर्वेक नव्यो कोमऱ्यो येवंक लागतात. मार्च ते एप्रिल आनी जुलय ते ऑक्टोबर ह्या म्हयन्यांत धवीं, मोटीं आनी वासाळ फुलां ताळयेच्या तोंकांक तुऱ्यांनी येतात. पाकळ्यांच्या पोंदा, म्हळ्यार सकयले वटेन तांबशी झांक मारता आनी पाकळ्यांच्या वयर हळडुवो कोर आसता. ह्या फुलाक पांच पाकळ्यो आसतात आनी केसरदलां सामकीं ल्हान आसतात. दोन किंजदलांपसून तयार जाल्लीं दोन लांबोडी पेटिकां फळां तांबसार पिंगशा शिंगांभशेन दिसतात. भारतांत ह्या रुखाक फळां येतात. बियो जायत्यो आसतात आनी तांचेर केंसांचो घोंस आसता. ह्या रुखाचें लांकूड मोव आशिल्ल्यान धोलकीं करूंक ताचो बरोच उपेग जाता. ह्या रुखाचो दरेक भाग वखदी आसता. सूज आयल्यार ताचेर पानांचो लेप (पोटीस) लायतात. ताचो दीख संधिवाताचेर लायतात. आंग कुसकुसप वा खोरोज हाचेर चंदनाचें तेल, कापूर आनी चांफ्याचो दीख एकठांय करून लायतात. पातळ परसाकडेन जायत रावल्यार हाची साल कातली आनी तूप-शितावांगडा दितात. मुळाची साल रेचक आसता. नव्या झाडाची लागवड कलमांनी जाता. गिमांत ही लागवड बरे तरेन जावंक शकता. खैर चाफ्याचे जायते प्रकार आसतात. तातूंत तांबडो खैर चांफो (रुब्रा रुब्रा) हाचो आस्पाव जाता.

**नाग चांफो**: (मराठी- नागचाफा, नागचंपा; हिंदी, संस्कृत आनी गुजराती- नागकेशर; कन्नड-नागसंपिगे; संस्कृत- नागपुष्प, सुवर्णा; इंग्लीश- आसाम (सीलोन) आयर्नवुड; लॅटीन- मेसुआ फेरिया; कूळ- गटिफेरी). उंचाय सुमार १५ ते १८ मी.; आसाम, उदेंत हिमालय, कारवार, दक्षिण कोंकण, गोंय, त्रावणकोर, कोचीन, अंदमान जुंवे आनी श्रीलंका ह्या वाठारांत उश्ण कटिबंधांतल्या सदापर्णी रानांत हो सुंदर आनी बाराय म्हयने पानां आशिल्लो रुख दिश्टी पडटा. हो रुख चड करून बौध्द विहारांत आनी हिंदूंच्या देवळा लागसार लायतात. ताचो घेर १.५ ते २ मी. आसता. ताचें कांड तांबशें-पुडी कोराचें आसता. पानां सादीं, एकामेकां सामखार, चिवट, चकचकीत, तोंकां आशिल्लीं आनी सकयले वटेन केंसाळ आसतात. फेब्रुवारी ते मार्च म्हयन्यांत ताका ल्हान, धवीं आनी वासाळ फुलां, एकसुरी वा जोडयेन येतात. फुलांक चार पाकळ्यो आसतात आनी परागकोश भांगराकोराचो आसता. ताका दाट कवच आशिल्लें व्हड बोरा येदें आनी गडद तपकिरी कोराचें गुळगुळीत चार बियो आशिल्लें बोंड येता. ह्या रुखाचें लांकूड तांबशें घट्ट आनी तिगपी आसता. रेल्वे मार्गासकयले लांकडाचे लोटिंगे, सजोवपाचें सामान, गाडयो, नांगर, व्हडीं, शिडाचे खांबे आदी वस्तू करपाक ह्या रुखाचें लांकूड उपेगी पडटा. फुलांपसून अत्तर आनी वासाचीं तेलां तयार करतात. बियांपसून काडिल्लें तेल दिव्यांत वापरतात. साल आनी मुळां हातूंतलो दीख, तेल वा टर्पेंटाईन हातूंत भरसून लॅकर (lacquer) कसो वापरतात. साल आनी फुलां स्थंभक, आंतकड्यांचें आकुंचन करपाक मदत करपी आनी पाचक आसता. कफा सारकिल्या दुयेंसांचेर फुलां उपेगी पडटात. तळव्यांतल्यान येवपी उजो आनी मूळव्याध हांचेर लोणी आनी फुलां, आल्यावांगडा एक करून दितात. बियांपसून काडिल्लें तेल संधिवाताचेर उपेगी पडटा.

**भूंय चांफो**: (मराठी-भुई चाफा; हिंदी-भुई चंपा; गुजराती- भुईचंपो; कन्नड- नेल संपिगे; संस्कृत- भूमिचंपा, भूचंपक; लॅटीन-केंफेरिया रोटुंडा; गण- सिटॅमिनी; कूळ-झिंजिबरेसी). सुंदर, वासाळ आनी जायतीं वर्सां उरपी वखदी झाड. मलाया आनी भारत ह्या दोन देशांत सगळे कडेन दिश्टी पडटा. ह्या झाडाचें कांड जमनींत आसता. फकत फुलां आनी पानां जमनीवयर दिसतात. हें कांड गांठीभशेन (मुलक्षोड) आसून ताका फांटे फुटिल्ले दिसतात आनी ह्या फांट्यांक कांद्या सारक्यो गांठी येतात (ग्रंथी

क्षोड). लांब, मोटीं (३०-४५×७-११ सेंमी.) आनी मोटवीं अशीं दोन वा केन्नाकेन्नाय चड पानां ह्या झाडाक येतात. तांतयां आकाराचीं आनी भाल्याभशेन आशिल्ल्या ह्या पानांचो वयलो भाग पाचवोचार आसता आनी ताचेर चित्रविचित्र आकृत्यो आसतात. पानांचो सकयलो भाग तांबसार-जांबळो आसता. एप्रिल म्हयन्यांत धवीं, मोटीं आनी वासाळ फुलां येतात. ताची व्हडली पाकळी जांबळसार आसतात. फुलां येवपाच्या वेळार ह्या झाडाचीं पानां सुकून गेल्लीं आसतात, पावसाळ्यांत ताका नवीं पानां येवंक लागतात. दोन आवरणाच्या मदीं बोंड येता; तातूंत जायत्यो बियो आसतात. ह्या झाडाचीं फुलां जमनीतल्यान आयिल्ल्यान ताका भूंय चांफो हें नांव पडलें. ह्या झाडाचे कांदे (ग्रंथीक्षोड) कोडू आनी तिखट आसतात. तांकां सुर्वेक कापराभशेन वास येता. दुखापत जावन रगत व्हावप वा पूं जावप, सूज हांचेर ह्या कांद्याचो लेप बांदतात. गालगुटांचेर हो कांदो वांटून लायतात. हातापांयांचे सुजेचेर ह्या कांद्याचो रोस घेतात, पूण तो वांतिकारक आशिल्ल्यान तोंडाक बरेंच उदक सुटता. मूळक्षोड आनी पानां वासाळ आसतात. वासाळ पदार्थांत वा सौंदर्यप्रसाधनांत तातूंतलें लेव हळडुवें आनी उडून वचपी तेल काडून घालतात. तेलांत सिबीओल आनी मिथिल शॅबिकॉल हीं द्रव्यां आसतात.

*लागवडः* सादी माती, कुशिल्लें शेण, झाडाचो सुकिल्लो पालो एक करून एके कुंडेंत भरून तातूंत ह्या झाडांचे कांदे लायतात. उपरांत ताका दोन वा चड पानां येतात. एप्रिल म्हयन्याच्या सुमाराक हीं पानां सुकतात आनी भुयेंतल्यान फकत फूल भायर सरता. फूल येवन वतकच हें झाड सामकें सुकता. पूण कांदे जमनींतूच आसतात. उपरांत कांय दिसांनीं कोंब आयिल्ले कांदे काडटात आनी तांची लागवड करतात. हे कांदे रोयतकच झाड लागमेरेन तांकां उण्या प्रमाणांत उदक लागता. पूण रोंप व्हड जातकच मात उदक चड घालचें पडटा. उदकांत शेण वा अमोनियम सल्फेट घालून तें उदक ह्या रोंपाक घाल्यार रोंप बरें वाडटा.

**सोन चांफोः** (मराठी- सोन चाफा; हिंदी-चंपा; संस्कृत- चंपक; कन्नड- चंपिगे, संपिगे; गुजराती- सोनचंपो; संस्कृत- सुवर्णचंपक, हेमपुष्प; इंग्लीश- गोल्ड (यॅलो) चंपा; लॅटीन-मायकेलिया चंपका; कूळ- मॅग्नोलिएसी). ह्या रुखाचें लॅटीन मायकेलिया हें वंशवाचक फ्लोरेंटाइन ह्या वाठारांतल्या पी. ए. मायकेली (१६७९-१७३७) ह्या वनस्पततज्ञाच्या नांवावेल्यान दिलां आनी ताचें चंपक हें नांव भारतीय नांवांकडेन जोडिल्लें आसा. संस्कृत वाङ्मयांत चंपक ह्या नांवाचो स्पश्ट उल्लेख मेळटा. ताचेवेल्यानूच ह्या रुखाक सोन चांफो वा हळडुवो चांफो, अशें म्हण्टात. हो रुख उदेंत हिमालय (सुमार ९३० मी. उंचायेच्या वाठारांत), नेपाळ, सिक्कीम, आसाम, ब्रह्मदेश, सह्याद्री आनी दक्षिण भारत ह्या वाठारांनीं दिश्टी पडटा. धर्मीक आनी हेर नदरेन ह्या रुखाक बरेंच म्हत्व आसा. ह्या सुंदर रुखांक बाराय म्हयने पानां आसतात. ह्या रुखाचो आवांठ ३-४ मी. आसून उंचाय सुमार ३० ते ४० मी. आसता. ह्या रुखाचें मूळ बरेंच व्हड आसता. साल करडी आनी दाट आसता. पानांचे मदीं मोटें, वासाळ, लेव वा गडद हळडुवे वा नारिंगी कोराचें एक-एक फूल येता. हें फूल द्विलिंगी आसून ताका सुमार १५ मेकळीं परिदलां आसतात. केसरदलां मेकळीं आसतात. घोंसफळांतलें दरेक ल्हान फळ पेटिका फळ (शुश्क आनी एके शिवणेचेर पेटयेभशेन उगडपी) आसता. पेटिका फळांत दोन वा चड, तांबश्यो बियो आसतात. घोंसफळ सुमार ५-१० सेंमी. लांबशें वांटकुळें आसता. फुलां मे-ऑक्टोबर ह्या म्हयन्यांत चड येतात आनी सबंद वर्सभर थोडीं-थोडीं येतात.

ह्या रुखाचें लांकूड मोव, ल्हव आनी तिगपी आसता. जहाज आनी विमान बांदावळींत तेचपरी खांबे, फळयो, सजोवपाचें सामान, तक्ते, कोरीवकाम, धोलकीं, च्याचे खोके, लाप्स, खेळणी, मणी आदी वस्तू तयार करपाक ह्या लांकडाचो उपेग करतात. सोन चांफ्याच्या फुलां पसून जो रंग काडटात, तो रंग कापड उद्येगांत कापड रंगोवपाक वापरतात. कांडाची साल स्तंभक आनी मूत निवळ करपी, तेचपरी जोर, खोंकली हांचेर उपायकारक आनी उत्तेजक आसता. कांडाचे सालींत ०.३% अल्कलॉइड आनी टॅनिन आसता. सुपारे वांगडा साल चघळटात. तेचपरी तिखयेंत सालीची भेसळ करतात. कांय प्रकाराचे रस्मी किडे ह्या रुखाचेर वाडयतात. फुलां आनी फळां भूक वाडोवपी, उत्तेजक, जंतुनाशक, पुश्टीक, कडू आनी थंड आसतात. तेचपरी अग्निमांद्य आनी मुत्रपिंड ह्या सारक्या दुखण्यांचेर तीं उपेगी पडटात. दोळ्यांचें दुखणें, संधिवात, तकली उसळप आदींचेर फुलांचें तेल उपेगी पडटा. हें तेल वासाचें आशिल्ल्यान ताचो अत्तरांत उपेग करतात.

**चांफो, पाचवोः** (मराठी- हिरवा चाफा; हिंदी- हरिचंपा, मदनमस्त; गुजराती- लीलोचंपो; इंग्लीश- ग्रीन चंपा; लॅटीन- आर्टाबॉट्रिस अन्सिनॅटस; कूळ- ॲनोनेसी). हें एक वयर चडपी बरेंच मोटें झोंप. ह्या झोंपाचो प्रसार उश्ण कटिबंधांत (आशिया आनी आफ्रिका) जाता. दक्षिण भारतांत आनी श्रीलंकेंत हें झोंप रानवटी अवस्थेंत दिश्टी पडटा. हाच्या वंशांत सुमार ३० जाती आसात आनी तातूंतल्यो फकत धा जाती भारतांत दिश्टी पडटात. ताका केंसाळ आनी फुडें गुळगुळीत अश्यो कंवळ्यो ताळयो आसतात. पानां सादीं, एका फाटल्यान एक, मोटव्या देंठांचीं, सदांच पाचवीं, चकचकीत, चिवट, भाल्याभशेन तोंकाचीं आनी गुळगुळीत आसतात. ऑगस्ट ते सप्टेंबर म्हयन्यांत ह्या झाडाक पोपटी, वासाचें, मोटव्या देंठाचें आनी ३-४ सेंमी. लांब एकसुरें वा जोडयेन फूल येता. झोंपाक ल्हान पूण तीन संदलां आसतात. फुलाक स पाकळ्यो आसतात. भितल्ल्यो तीन पाकळ्यो भायल्या तीन पाकळ्यांपरस ल्हान आसतात. ह्या फुलांक केसरदलां आनी किंजदलां जायतीं आसतात. तेचपरी दरेक किंजपुटांत दोन बियो आसतात. जायतीं घट मृदुफळां मेळून एक घोंसफळ आसता. ताची बी चवकोनी, सादारण चेपटी, १.२५ सेंमी. लांब आसून ताचे एके वटेन खांच आसता. नव्या झाडाची लागवड बियेपसून वा कलमापसून करतात.

मलाया देशांत पटकीचेर (कॉलरा) ह्या रुखाच्या पानांचो कडो दितात. फुलांपसून काडिल्लो वासाचो अर्क, अत्तर आनी तेल करपाक वापरतात. वासाच्या फुलांखातीर हो रुख पोरसांनी लायतात. फिलिपीन्स देशांत वखदांखातीर ह्या रुखाचो उपेग करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**चातुर्वर्ण्यः** हिंदू धर्मशास्त्रांत मानिल्ल्या ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य, शूद्र हे चार वर्ण आनी ह्या वर्णांचीं कर्तव्यां, अधिकार, वेव्हार, ऊंच उणाकपण, परस्परावलंबित्व, परस्परपूरकत्व ह्या गजालींचो विचार करून धर्मशास्त्रकारांनी भारत देशांत घडयल्ले समाजीक रचणुकेक भौशीक संस्थेक 'चातुर्वर्ण्य' ह्या नांवान वळखतात.

राजवाडेच्या मतान चातुर्वर्ण्याची कल्पना वेदकाळापयलींसावन अस्तित्वांत आशिल्ली. कर्माच्या विंगडपणाक लागून वयले चार वर्ग घडल्यात, हो विचार त्या काळार लेगीत सगळ्यांक मान्य आसलो. वेदापयलींच्या काळांत वेदद्रष्ट्या ऋषींचें पुर्वज आनी इराणी तशेंच युरोपीयन लोकांचे पुर्वज एकठांय आसले. त्यावेळार लेगीत चातुर्वर्ण्याची कल्पना अस्तित्वांत आसली, असो अदमास काडूं येता. प्लक्ष, शाल्मली, कुश, क्रौंच, शाक आनी जंबू ह्या स द्वीपांनी चातुर्वर्ण्यसंस्था अस्तित्वांत आसली, अशें विष्णुपुराणांत सांगलां. हातुंतले जंबुद्वीप सोडून उरिल्लीं पांच द्विपां भारताभायलीं आसात. ग्रीसासावन चीनामेरेनचो व्हड वाठार ह्या स द्विपांत आस्पावला.

ऋग्वेदांत ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र हांचो उल्लेख वर्णविशींचे कल्पनेक धरून करूंक ना. ब्राह्मण हें उतर ब्रह्मस्तोत्र, ब्राह्मण=स्तोत्रगायक ह्या अर्थान आयलां. क्षत्रिय हें उतर ऋग्वेदांत बलवान ह्या अर्थान आयलां आनी विश वा वैश्य हें उतर सामान्य मनीस ह्या अर्थान आयलां. ऋग्वेदांत वर्णभेदापरस आर्य वा दस्यू हे भेदकल्पनेक चड म्हत्व दिलां. ब्राह्मण आनी क्षत्रिय हो भेदूय आर्यांत सुर्वेक नाशिल्लो जावंये. आर्यांपरस दासांचो रंग वेगळो आशिल्ल्यान, वर्णभेदाची कल्पना, जरी वैदिकांच्या मनांत आयली आसली तरी सद्याच्या काळांत अस्तित्वांत आशिल्ली चातुर्वर्ण्य संस्था त्या काळार नासली, अशें ऋग्वेद

प्रमाण मानल्यार म्हणूं येता. पूण वर्णभेदांची कल्पना चातुर्वर्ण्याचे कल्पनेक खूब लागीं आशिल्ली, हें मत न्हयकारप शक्य ना.

फाटल्या हजारांनी वर्सां, समाजांत जायते बदल घडले; पूण तांचो चातुर्वर्ण्याचे संस्थेचेर कसलोच परिणाम घडून आयलो ना. सगळ्या तरेंच्या विरोधाक तोंड दिवन ती तरतरुन वाडली.

भारतांतलो चातुर्वर्ण्य समाज वा संस्था सगळ्या गजालींनी परिपूर्ण, सार्वभौम आनी संस्कारांकित आसा. भारतांत दरेका वर्णाक वर्णविशिष्ट संस्कार आसात. अध्ययन करप आनी शिकोवप हीं बुध्दीजीवी कामां ब्राह्मणाचीं, प्रजेची राखण करप हें काम क्षत्रियांचें, शेत आनी वेपार वैश्यांचो, वयल्या तीनूय वर्णांची सेवा करप हें काम शुद्रांचें कर्तव्य अशें शास्त्रकारांनी म्हळां. वयल्या चार वर्णांत उंच-उणाकाची कल्पनाय भितर रिगल्या. ब्राह्मण हो म्हान वर्ण, तेउपरांत क्षत्रिय, वैश्य आनी निमाणें शूद्र असो क्रम येता. पयलीं ह्या चारुय वर्णांचीं कामां क्रियांच्या रुपांत आसलीं. फुडें ह्या चारुय वर्णांचेर विंगड विंगड संस्कार जाले; ताका लागून चारुय वर्ण संस्कारांकित जाले. हाचो परिणाम असो जालो की कर्मदृष्ट वर्ण आनी संस्कारदृष्ट वर्ण हातूंत विसंगती दिश्टी पडपाक लागली. संस्कार ब्राह्मणाचो पूण कर्म शुद्राचें अशी परिस्थिती निर्माण जाली. वयले परिस्थितीक तोंड दिवपाक धर्मशास्त्रांत 'आपद्‌धर्म' ह्या प्रकरणाचो जल्म जालो.

जल्माक येवपी दरेक मनीस आपणा वांगडा पुर्वजांच्या वेवसायाचे आनी गुणांचे संस्कार घेवन येता, अशी धर्मशास्त्रकारांची कल्पना आसा. फुडें हे कल्पनेक कर्म आनी पुनर्जल्म ह्यो कल्पना येवन दसल्यो, जेवरवीं वर्णवेवस्था ही जल्माचेर आदारिल्ली आसा, अशें मत अस्तित्वांत आयलें.

चार वर्ण कोणें कोणाखातीर केले हाचेविशीं मनून अशें सांगलां (१.३१).

> लोकानां तु विवृद्‌ध्यर्थं मुखबाहूरुपादतः
> ब्राह्मणं क्षत्रियं वैश्य शूद्रं च निरवर्तयत् ।।

अर्थः लोकांचे सर्वांगीण उदरगतीखातीर परमेश्वरान आपल्या तोंडांतल्यान ब्राह्मण, भुजांतल्यान क्षत्रिय, छातयेंतल्यान वैश्य आनी पांयांतल्यान शुद्रांची निर्मणी केली.

वायू पुराणांत ब्राह्मणाची उत्पत्ती सप्तर्षीपसून आनी क्षत्रिय-वैश्याची मनूपसून जाल्याचें सांगलां.

ना. गो. चापेकराच्या मतान आयचो समाज पूर्विल्ल्या काळांत अखंड आसलो. फकत तातूंत शुद्रांचो आस्पाव नासलो. वयलें मत सत मानल्यार भारतांतल्या अखंड समाजाचे विंगड विंगड जाती धर्मांत कुडके कशे आनी कित्याक पडले? ह्या जातींक चातुर्वण्याचे बसकेंत बसोवपी व्हड विद्वान कोण? आदी प्रस्नांच्यो जापो खंयच्याच ग्रंथांत मेळना.

समाजाच्या चार विभागांक वर्ण हें उतर रंग ह्या अर्थान लायिल्लें पळोवपाक मेळटा. देखीक ब्राह्मण गोरे, क्षत्रिय तांबडे, वैश्य हळडुवे आनी शुद्र काळे, ह्या चार रंगांचे वा वर्णांचे समाज एकठांय हाडून तांचे 'चातुर्वर्ण्य' घडयले आसूंये, नाजाल्यार एकाच वर्णाच्या लोकसमूहाक 'चातुर्वर्ण्य' म्हणप समा दिसचें नासलें.

स्मृतिग्रंथांप्रमाण एकाच समाजाचे चार समाज घडले, अशें मानल्यार तांच्यो चालीरिती समान आसपाक जाय आसल्यो, पूण तशें दिसना.

स्मृतिकाळार एकाचे चार वर्ण जाले अशें मानल्यार ते पयलीं समाज एकूच आसपाक जाय आशिल्लो. पूण एकत्वाचो पुरावो मात मेळना. पूर्विल्ल्या साहित्यांत लेगीत वसिष्ठ-विश्वामित्राचे कलह दिश्टी पडटात. हो संघर्श दोन व्यक्तींमदलो नासून क्षत्रिय आनी ब्राह्मण ह्या दोन जातींमदलो आसा. वेदकाळांतूय क्षत्रियांमदीं ऋषी आसताले. तांकां राजर्षी म्हण्टाले. ब्राह्मणय झूज म्हळ्यार क्षत्रियांचो धंदो करताले. क्षत्रिय ब्राह्मणांचो वेवसाय करून ब्राह्मण जाताले.

ब्रह्म वा मंत्र वा वेद रचप वा म्हणप हो जाचो वेवसाय आसलो, ते ब्राह्मण आसले. ह्या ब्राह्मणांक सगळ्यांत पयलीं रक्तवर्ण क्षत्रिय मेळ्ळे तेन्ना एका वर्णाचे दोन वर्ण जाले. ब्राह्मणांक क्षत्रिय सगळ्यांत पयलीं मेळ्ळे, म्हूण ब्राह्मणांउपरांत तांचो क्रमांक लागलो. अशेच तरेन वैश्यांचो क्रम तिसरो आनी शुद्रांचो चवथो लागलो.

ब्राह्मण आनी क्षत्रियांचे पूर्वज जशे विंगड विंगड आसले तशे धर्मूय वेगवेगळे आसले. ब्राह्मणाचो धर्म श्रौत आसलो, तर क्षत्रियांचो धर्म स्मार्त आसलो (वायू पुराण ५७.४०-४१). वैश्यांचो धर्म वयल्या दोन धर्मांपरस वेगळो आसलो. शुद्रांचो धर्म वयल्या तिगांपरसूय वेगळो आसलो. अशे हे चार स्वतंत्र समाज एकठांय हाडपाचो यत्न त्या काळावेल्या समाजसेवकांनी केलो.

**चातुर्वर्ण्याचे धर्म आनी नेमः** धर्मसूत्रांत चातुर्वर्ण्याचे आचाराचे नेम म्हळ्यार धर्म सांगल्यात. हातूंत चारुय वर्णांनी स्वताच्या वर्णांत आनी हेर वर्णांवांगडा कशें वागचें, तें सांगलां.

आपस्तंब ह्या पोरन्या धर्मसूत्रकारान सांगलांः

> चत्वारो वर्णा ब्राह्मणक्षत्रियवैश्यशुद्राः। तेषां पूर्वः पूर्वो जन्मतः श्रेयान्। अशूद्राणामदुष्टकर्मणामुपनयनं वेदाध्ययनमग्न्याध्येयं फलवन्ति च कर्माणि। शुश्रूषा शुद्रस्येतरेषां वर्णानाम् ।।

अर्थः ब्राम्हण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र अशे चार वर्ण आसून तातूंत पयलो वर्ण सगळ्यांत श्रेश्ठ आसा. शूद्र सोडून हेर तीनूय वर्णांचीं उपनयन, वेदाध्ययन आनी अग्न्याधेय आदी कर्मां फळाक येतात. शुद्रान हेर वर्णांची सेवा करून पोट भरपाचें आसता.

बायल आनी शूद्र हांणी व्रतप्रसंगार भाशण करचें न्हय, अशें बौध्द धर्मसूत्र म्हण्टा. तेचबराबर ब्राह्मणांक चार वर्णांच्यो, क्षत्रियांक तीन वर्णांच्यो, वैश्यांक दोन वर्णांच्यो बायलो करपाक कसलीच हरकत ना अशें तातूंत सांगलां. शूद्र मात फकत आपल्या स्ववर्णाची बायल करूंक शकता.

ब्राह्मणान शुद्राचें घरचें अन्न खावचें न्हय, शूद्र बायलेकडेन लग्न जावचें न्हय, जर एकाद्रो उच्च-वर्णीय शूद्र बायले कडेन लग्न जालो तर ताचें निसंतान जातलें, अशें वसिष्ठान म्हळां.

जो ब्राह्मण वेदाध्ययन करतकच वेदान्ताचो विचार करीना, तो वंशपरंपरेन शुद्राचे लायकीचो जावन पुजेक अपात्र थारता, अशें उशनसंहितेंत म्हळां.

शंखस्मृतींत चार वर्णांचे सामान्य धर्म सांगून शुद्रांनी आपल्या वयल्या तीनूय वर्णांची सेवा करून पोट भरना जाल्यार विंगड विंगड कलाप्रकार आनी शिल्पकर्मां करून आपल्या पोटा-पाणयाची गरज भागोवची, अशें म्हळां.

ब्राह्मण कितलोय अविद्वान आसल्यार लेगीत ताका व्हड मानचो, अशें क्षत्रिय मनू म्हण्टा. आपस्तंब, बौधायन हे ब्राह्मण सूत्रकार मात अविद्वान ब्राह्मणाची निंदा करतात. पूण मनूउपरांत आयिल्ल्या चडशा स्मृतिकारांनी मनूचेंच मत उखलून धरिल्लें दिश्टी पडटा.

याज्ञवल्क्यान चार वर्णांभितल्ले द्विजाचे सगळे संस्कार समंत्रक जावचे. द्विजांनी शूद्र बायलेवांगडा लग्न जावचें न्हय, अशें स्पश्ट मत मांडलां. शुद्रान वेपार करपाक हरकत ना, अशेंय ताणें सांगलां.

क्षत्रिय, वैश्य, ब्राह्मणांनी हव्य कव्य प्रसंगार एकमेकांगेर जेवपाक वचचें पूण शुद्राच्या घरांत मात जेवचें न्हय, अशें पराशरान सांगलां. पूण दास, म्हालो, गोपाल हे शूद्र ताणें भोज्यान्न थारायल्यात. पराशरान गायत्री मंत्र समजनाशिल्ल्या ब्राह्मणांची निंदा करून तांकां शूद्रांपरस अपवित्र मानल्यात. अग्निकार्य, संध्या आनी वेदाध्ययन करपी ब्राह्मण शूद्र आशिल्याचें ताणें सांगलां.

अत्रीन देव, मुनी, शूद्र, पशू, म्लेच्छ आनी हेर अशे ब्राह्मणांचे धा प्रकार सांगल्यात. क्रियाहीन, मूर्ख, धर्मभ्रश्ट आनी निर्दय ब्राह्मणांक तो चांडाळ ब्राह्मण म्हण्टा.

शुद्राक वर्णत्वाक लागून धर्मूय आसपाक जाय, अशें व्यासान सांगता. न्यायकाळार धंद्यावेल्यान शुद्रांच्यो विंगड विंगड जाती जावपाक लागिल्ल्यो देखीकः म्हालो, गोरवां राखणो, कुंभार, वेपारी, माळी, सावकार, कारकून आनी हेर.

शूद्र लोक, देवलाच्या काळार चित्र, नृत्य, गीत, वाद्य ह्या कलांतूय मुखार सरिल्ले. स्मृतिकाराच्या वयल्या मतावेल्यान ज्यो कांय गजाली स्पश्ट जातात त्यो अश्यो:

१. वयल्या तीन वर्णांभितर त्या काळार लग्न संबंद आसताले.

२. त्या काळार समाजांत शाकाहार आनी मांसाहार हे दोनूय आहार चलताले.

३. धर्मशास्त्रकारांनी क्षत्रिय आनी वैश्य वर्णियापरस ब्राह्मण आनी शूद्र धर्मीयांच्या आचार धर्माचेंच चड वर्णन केलां.

४. स्मृतिवाङ्‌म प्रमाण शूद्र आपले परिस्थितींत बदल घडोवन वयर सरिल्लो दिसता.

महाभारतांत चातुर्वर्ण्य हे जल्माचेर आदारुन आसतात, हें मत न्हयकारिल्लें दिसना, तरीय महाभारतकारांची चातुर्वर्ण्याविशींचीं मतां खूब उदार आसात, अशें म्हणूं येता.

महाभारताच्या वनपर्वांत यक्षाच्या ब्राह्मणाविशींच्या प्रस्नाक जाप दितना युधिष्ठिर म्हण्टा- 'कुल, स्वाध्याय वा श्रुत ह्यो गजाली ब्राह्मण जावपाक उपेगी पडनात. सदाचारावरवीं ब्राह्मण घडटा. चारूय वेद जाणा जाल्लो ब्राह्मण दुर्गणांनी जर भरिल्लो आसत, तर ताका शूद्रापरस हीन लेखचो.'

भविष्य पुराणांत दुसऱ्या एका जाग्यार वर्णभेद आनी जातीभेद कृत्रिम आशिल्ल्याचे सांगून सगळे मनीस समान अधिकाराचे आसात, अशें स्पश्ट म्हळां.

मनू हो तेन्नाच्या लोकांमदल्यान क्षत्रिय आनी वैश्य वर्णांक फावसो मनीस वेंचतालो अशें दिसता, तर सप्तर्षी हे ब्राह्मण वर्णाक फावसो मनीस वेंचताले जावंये. ज्या लोकांचो हातूंत आस्पाव जाय नासलो तांकां शूद्र मानताले.

कृतयुगाचे सुर्वेक ब्रह्मदेवान वर्णविभाग करून तांचे धर्म सांगले; पूण ते धर्म लोकांनी पाळ्ळे ना म्हूण त्रेतायुगांत मनून पर्थून वर्णविभाग केले, अशें वायूपुराणांत म्हळां.

मनशांभितर जीं गुणकर्मां दिसून येतात त्याप्रमाण तांकां विंगड विंगड कर्मांत घालचे अशें सांगून आपले विशीचें मत अशें भागवतांत सांगलां.

ब्राह्मण संबंदांतल्यान शुद्र बायलेगेर जल्मल्लें भुरगें, जल्मावेल्यान आनी बीजावेल्यान शुद्र आसलें तरी तप आनी बऱ्या कर्मांच्या मालवजार जल्मल्या उपरांतच्या सातव्या युगासावन वयल्या वर्णांत वता आनी स्वताच्या वर्णाचो उत्कर्ष करता. सातव्या युगासावन शुद्र आवय-बापायगेर जल्मल्लो शूद्र ब्राह्मण वर्णांत आनी ब्राह्मण आवय-बापायगेर जल्मल्लो ब्राह्मण शूद्र वर्णांत वता. क्षत्रिय, वैश्य हांकांय होच कायदो लागू जाता.

महाभारताच्या शांतीपर्वांत लेगीत पुण्य जोडपी कार्य केल्यार वयलो वर्ण मेळटा आनी पापकृत्यां केल्यार सकयल्या वर्णाची प्राप्ती जाता, अशें म्हळां. भृगु ऋषीच्या वचनान वीतहव्य राजा ब्राह्मण जाल्याचो उल्लेख महाभारताच्या अनुशासन पर्वांत आयला. आवय-बापूय अज्ञात आशिल्ल्या भुरग्याक जो आपलो पूत म्हूण सांबाळटा, ताचो वर्ण त्या भुरग्याक प्राप्त जाता अशेंय महाभारताच्या अनुशासन पर्वांत सांगलां.

नीच कुलांत जल्म घेवन उच्च कुलांत पाविल्ले जायते ऋषी आसात. व्यास कैवर्त बायलेसावन, पराशर चांडाळ बायले सावन आनी वसिष्ठ गणिकेसावन जल्माक आयिल्लो. महाभारतांतले ऋष्यशृंग, कश्यप, वेद, तांड, कृप, कक्षीवान, कमठर्दी ऋषी, यवक्रीत, द्रोण, आयू, मतंग, देत्त, द्रुदप, मात्स्य नीच कुलांत जल्म घेवनय स्वबळार ब्राह्मणत्वाक पाविल्ले. विश्वामित्र क्षत्रिय आसून लेगीत ताणें ब्राह्मणत्व प्राप्त करून घेतिल्लें आनी वसिश्ठान ते गजालीक मान्यताय दिल्ली. पुराणकाळांत वर्ण हो कुलावेल्यान थारनासतना गुणांवेल्यान थारतालो.

चातुर्वर्ण्य आनी चातुर्वर्ग्य (चार वर्गांनी वांटिल्लो समाज) हांची बुन्याद 'श्रम' वा 'कश्ट' ह्या गजालींचेर उबारल्या. चातुर्वर्ग्य हो वैयक्तिक आसून तातूंत कोणाकूय स्वबळ आनी स्वगुणाच्या मालवजार व्हड पद मेळोवप शक्य जाता तर चातुर्वर्ण्यांतल्या व्यक्तीक वा मनशांक वर्णमर्यादेची सांखळ तोडपाक मेळना. चातुर्वर्ण्यांत आनुवंशिकता आनी जल्मजाती उत्पन्न जातात. हाचे उरफाटें चातुर्वर्ग्यांत जल्मजाती आनी आनुवंशिकता हांकां म्हत्व आसना. चातुर्वर्ण्य ल्हान-व्हड, ऊंच-उणाक ह्या गजालींक चड म्हत्व दिता. चातुर्वर्ग्यांत हे भेद आसनात.

चातुर्वर्ण्याचो उल्लेख ऋग्वेदांतल्या पुरुष सुक्ताच्या धाव्या मंडलांत आयला म्हूण ही वर्णवेवस्था आर्विल्ली म्हणप समा न्हय. पूर्विल्ल्या मंडलाच्या 'चातुर्वर्ण्याच्या' उल्लेखावेल्यान ही वर्णवेवस्था वेदकाळापयलीं सावन अस्तित्वांत आसली आनी जी जल्मजात आसली अशें म्हण्टात. चातुर्वर्ण्य ऋग्वेद काळार घडपाक लागले आनी यजुर्वेदकाळार पुर्णत्वाक पावले, अशें जाणकार म्हण्टात.

**विज्ञान आनी चातुर्वर्ण्य:** मनू आनी हेर स्मृतिकारांनी वंशीक दायज ह्या सिध्दान्ताक म्हत्व दिवन चातुर्वण्याचो पुरस्कार केलो. ह्या सिध्दान्ताप्रमाण बापायचे वा आवयचे गूण तांच्या संततीच्या आंगांत येतात आनी तेखातीर वर्ण, स्वभाव, बुध्दीमत्ता हेविशीं भुरगीं आवय-बापायचें गूण वंशपरंपरेन घेतात.

विसाव्या शतमानांत सर फ्रांसिस गाल्टन हाणें तर असो एक विचार मांडलो की समाजांतल्या दरेक वर्गांतली कर्तबगार कुळां वेंचून काडून तांचे मजगतीं लग्न संबंद घडोवन हाडल्यार देशाखातीर कर्तबगार लोकांची पिळगी निर्माण जावं येता. रुसो, कार्ल मार्क्स, लामार्क, कॅमेरार, डरहॅम, डार्विन ह्या विद्वानांनी, तेचपरी समाजवादी आनी पुरोगामी लोकांनी सर फ्रांसिस गाल्टन आनी वंशीक दायजाच्या सिध्दांताक व्हड विरोध केलो. तांच्या मताप्रमाण जल्मापरस शिक्षण, परिस्थिती आनी संस्कार हाचेवरवीं कुळामदली विशमता नश्ट जावं येता.

प्राणिशास्त्राच्या सिध्दान्ताप्रमाण जल्मल्ल्या भुरग्यांत कुळाचे गूण येता आसले तरी बापूय भुरग्यांत तशेंच एकाच बापायच्या वेगवेगळ्या भुरग्यांत अंतर पडिल्लें दिसता. इतलेंच न्हय तर जुंवळ्या भांवडांक जर विंगड विंगड परिस्थितींतल्यान वचचे पडलें, तर तांची दोन वेगवेगळी व्यक्तिमत्त्वां दिश्टी पडटात.

कर्तबगार घराण्यांत कर्तबगार मनीस जल्माक येता आनी तातूंत परिस्थिती वा शिक्षणाप्रमाण बदल जावंक शकना, अशा तत्त्वाचेर आदारिल्ली चातुर्वर्ण्य वेवस्थेची बसका तितली बरेबर ना, हें खुबशा देखींवेल्यान दाखोवंक येता. देखीक: वाल्मीकी पागप्याचो, व्यास आंकवार आवयचो, कोलंबस आनी शेक्सपियर विणकऱ्याचो, क्रॉमवेल सोरो तयार करप्याचो, वॉशिंग्टन शेतकऱ्याचो, डेमॉस्थेनिस हत्यारां पाजप्याचो, सॉक्रेटीस फातर फोडप्यांचो, स्टॅलिन चामाराचो, मुसोलिनी लोखणाच्यो वस्तू घडप्याचो, मल्हारराव होळकर धनगराचो चलो आसलो.

सद्याचे विज्ञानयुगाचे परिस्थितींत चातुर्वर्ण्याची कल्पना खंयचेच फास्केंत बसना. तेचपरी सद्याच्या युगांत ती वेव्हाराक धरूनूय दिसना.

- कों. वि. सं. मं.

**चानी:** विभाग (division)- पृष्ठवंशी (vertebrates); वर्ग (class)- स्तनिवर्ग (Mammal); गण (order)- कृंतक (Rodentia); कूळ (family)- सायूरिडी (Sciuridae).

चानयो ल्हान वा मध्यम आकाराच्यो आसतात. तांची कूड ल्हान हुंदरायेदी आसता; ती सोंशायेदी लेगीत आसूं येता. चानयेची लांबाय १० ते ७० सेंमी. आसून वजन ६ किग्रॅ. लेगीत आसूं येता. कूड तशी नाजूक आसता. त्या मानान दोळे मोटे आनी भायर सरिल्ले आसतात. चानयेचे फाटले पांय बळीश्ट आसून शेंपडी लांब आसता. तिची शेंपडी केंसांचो गोंडो कसो आसता. झाडाचेर रावपी चानयो आपले शेंपडेचो वापर संतोलक (कुडीचो तोल सांबाळपी- halter) म्हूण करतात. तांच्या फुडल्या दोनूय पांयांक चार बोटां आनी फाटल्या पांयांक पांच बोटां आसतात. 'फ्लाईंग स्क्वीरल' (flying squirrel) हे जातीचे चानयेक फुडल्या ते फाटल्या पांयांमदीं एक कातीचो पड्डो आसता.

चानयो तरेकवार रंगांच्यो आसतात. देखीक- काळसर ताचेर धवे पट्टे, तांबसर हळडुवो, लेव काफयेचो कोर आदी. चानयेचो रंग तिची जात, सुवात आनी हवामान हांचेर आदारून आसता. चडश्यो चानयो दिसाच्यो कसल्या ना कसल्या तरी उद्येगांत गुंतिल्ल्यो आसतात. थंड वाठारांतल्यो जमनीवयल्यो चानयो शिंयाच्या दिसांनी 'शीतसुप्तींत' (winter sleep) वतात.

चानयो संवसारांतल्या चडशा सगळ्या वाठारांनी दिसून येतात. पूण त्यो ऑस्ट्रेलिया, सामको ध्रुवाकडलो वाठार, मादागास्कर, न्यूझीलंड, हवाई जुंवे हातूंत सांपडनात. उश्ण कटिबंधांतल्या वाठारांत, खास करून भारतांत चानयो खूब प्रमाणांत दिसून येतात. तांचे सुमार ४० वंश आनी सुमार २५० वयर जाती आसात.

भारतांत चानयांच्यो दोन जाती दिसून येतात. हातूंतले मनशाचे वस्तीभोंवती रावपी चानयेक 'सामान्य चानी' अशें म्हण्टात. हिचें शास्त्रीय नांव 'फ्लुनँब्युलस पेन्नांटाय' आसून दुसरेचें 'फ्युनँब्युलस पामेरम' अशें आसा. दोनूय जाती हिमालयाच्या मुळसासावन सकयल सगळ्याक सांपडटात. सामान्य चानी शेतां, माळरानां, मनशाचे वस्तीभोंवतणी तशेंच शारां, गांव आनी खेडीं हातूंत रावता. 'फ्यु. पामेरम' ही जात रानांत रावपी आसून भारताच्या दक्षिण तशेच उदेंत आनी अस्तंत वाठारांनी ती चड सांपडटा. उत्तर भारतांत सामान्य चानयांचें प्रमाण चड आसा. सामान्य चानयेच्या आंगाचो कोर चॉकलेटी आसून ताचेर पांच पट्टे आसतात. 'फ्यु. पामेरम' हे जातींत फाटीचेर फकत तीनूच पट्टे आसतात. सामान्य चानी चपळ आनी चलाख आसून जमनीचेर वा झाडांवयल्यान उडयो मारीत एकसारकी धांवत आसता. ह्या नाजूक जनावराच्यो सगळ्यो हालचाली ओडलायण्यो आसतात. फळां, दाट सालींचीं फळां, सांगो, तन्ने कोंब, कळयो, फुलांतलें म्होंव ही चानयांची खावड जावन आसा. कांय चानयो किडी आनी शेवण्यांचीं तांतयां खातात.

चानयांचें प्रजोत्पादन खावड, बरें वातावरण आनी हवामान ह्या गजालींचेर आदारून आसता. नर आनी मादी दोन-तीन दिसूच एकठांय येतात. ह्याच काळांत गर्भधारणा जाता आसूंक जाय. गाभण काळ ३० ते ४५ दिसांचो आसता. पिलांचो जल्म जावपाच्या सुमाराक मादी पिलांखातीर झाडाचेर वा वण्टीच्या बिळांत घोंटेर बांदता. दर खेपे मादीक तीन ते चार पिलां जातात. तांचें वजन १० ते ३० ग्रॅम इतलें मेरेन आसता. जातना तीं कुड्डीं आसतात आनी कात सुळसुळीत आसता. आवाज मात पयल्याच दिसा फुट्टा. पिलां १ ते ३ वर्सांनी व्हडलीं जातात. चानयो सरासरी ८ वर्सांमेरेन जियेतात.

चानयांच्या जातींचे कांय मुखेल प्रकार आनी त्यो सांपडपी वाठार अशे: युरोपीयन रेड स्क्वीरल (European red squirrel)- युरेप, चीन, कोरिया, जपान; ग्रे स्क्वीरल (Grey squirrel)-कॅनडा, अमेरिका, इंग्लंड, दक्षिण आफ्रिका; आफ्रिकन जायंट (African Giant)- आंगोला, केनिया; आफ्रिकन ग्राउंड (African ground)- मोरोक्को, केनिया; थर्टीन लायन्ड ग्रावंड (Thirteen lined ground)- कॅनडा, अमेरिका, रेड जायंट फ्लाइंग (Red giant flying)- काश्मीर ते चीन; नॉर्थन फ्लाईंग (Northen flying)- कॅनडा, अमेरिका; ब्लॅक जायंट (Black giant)- ब्रह्मदेश ते इंडोनेशिया; आफ्रिका पाम स्क्वीरल (Africa palm squirrel)- घाना, सीअरा लोओन; इंडीयन जायंट (Indian Giant)- भारत; मलायन जायंट (malauan giant) आनी हिमालयन स्क्वीरल (Himalayan squirrel)-भारत, नेपाळ, भुतान, सिक्कीम; स्टायप्ड स्क्वीरल (Striped squirrel) - भारत.

चानयेक जावपी कांय रोग अशे- प्लेग (Plague), तुलारेमीया (Tularemia), पास्तुरेला (Pasteurella), लिस्तेरीओजीस (Listeriosis), साल्मोनेलोजीस (Salmonelosis), येरोसीपेलास (Erisipelas), येंसेफालायतीस (Encephalitis), येंसेफालोमायोकारदायतीस (Encephalomyocarditis), कोक्सीडीयोमायकोजीस (Coccidiomycosis). हे रोग मुस, जळारां, किरटी हांचेपसून पातळटात. प्रतिजैव (antibiotics), सल्फा (sulpha) आदी वखदां हातूंतल्या कांय रोगांचेर वापरतात. चानयेक जावपी ह्या रोगांतले कांय रोग मनशाक लेगीत जावंक शकतात.

- डॉ. ए. व्ही. खांडेपारकर

## चाफाडकर, गणपत कृष्णा: (जल्म: १९१० सावयवेरें- फोंडें; मरण: २२ डिसेंबर, १९७७).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठी आनी पोर्तुगेजींतल्यान घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. भूंयगत राजकी लोकांक आदार दिवप, तांचीं हत्यारां सुरक्षित जाग्यार सांबाळून दवरप असलो वावर तो करतालो. १८ ऑगस्ट १९५५ दिसा पोलिसांनी ताका अटक केली. ११ जानेवारी १९५७ दिसा प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार चवकशी जावन ताची निर्दोश सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## चाफाडकर, रामदास गणपत: (जल्म: १४ फेब्रुवारी १९३५, सावयवेरें-फोंडें).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव गणपत कृष्णा चाफाडकर. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. १९५३-५४ वर्सा आझाद गोमंतक दल संघटनेन वज्रा गांवांत लश्करी शिक्षण आयोजित केल्लें, ताचो लाव घेतलो. लोकांक शिक्षण मेळचें आनी तांकां राजकारणाविशीं जाग येवची, म्हूण ताणें तरणाट्यांखातीर साक्षरतेचे वर्ग घेवंक सुरवात केली. पत्रकां वांटप आनी तिरंगी बावटे लावप असलीं कामां तो करतालो. १ जानेवारी १९५५ दिसा ताणें मोहन रानडेच्या फुडारपणाखाल भाणस्तारी पोलीस ठाण्याचेर हल्लो केलो. उपरांत ताणें चोडणेच्या रेजिदोराचेर हल्लो केलो आनी ताचेकडल्यान पिस्तुल काडून घेतलें. हळदोणा पोलीस ठाण्याचेर ताणें धाड घाली. पाळये मिनाखणीचेर ताणें हल्लो केलो. ९ ऑगस्ट १९५५ दिसा सालाझार राजवटीक तेंको दिवपी सावयवेरेंचो कुस्तादियु फेर्नांदिश हाच्या खुनासंबंदान पोलिसांनी ताका धरलो. ह्या कुस्तादियु फेर्नांदिशान क्रांतीकाऱ्यांनी लायिल्लो तिरंगो बावटो लाशिल्लो. पोलिसांनी रामदास चाफाडकराक पोलीस ठाण्यांत बरोच मार घालो. उपरांत २८ डिसेंबर १९५६ दिसा ताका प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार (Territorial military tribunal) हाडलो. न्यायाधीशान ताका बावीस वर्सां बंदखणीची खर ख्यास्त फर्मायली आनी दर दिसा २५ इस्कूद ह्या प्रमाण दोन वर्सां दंड भरूंक लायलो वा दंडाबदला दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तो नासतना पोलिसांनी ताच्या घराचेर धाड घाली, तेचपरी शस्त्रांचो सोद घेवपाक ताचें सगळें शेत खणून इबाडून उडयलें. १९ ऑगस्ट १९६१ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## चाफाडकर, लक्ष्मीकांत गणपत: (जल्म: १९३१, सावयवेरें-फोंडें).

गोंयचो सुटके झुजारी. क्रांतीकारी रामदास चाफाडकराचो भाव. ताचें प्राथमिक शिक्षण मराठी आनी पोर्तुगेजींतल्यान जालें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. भूंयगत क्रांतिकाऱ्यांक जेवण दिवप आनी तांची रावपाची वेवस्था करप, तांचीं हत्यारां सांबाळून दवरप असलीं कामां तो करतालो. ऑगस्ट १९५५ त ताका धरलो आनी बंदखणींत घालो. उपरांत सप्टेंबर १९५६ त ताका सोडलो. हत्यारां सोदपाक पोलिसांनी ताचे सगळे शेत खणून पळेलें आनी इबाडलें. उपरांत पोलिसांनी ताका परतो धरलो आनी न्यायधीशामुखार हाडलो आनी पुरावो मेळूंक ना म्हूण सोडलो. १९७३ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**चामखीळ** (Warts): (पळेयात कात-२):

**चामार:** चामड्यापसून विंगड विंगड वस्तू घडोवपी, जोतीं तयार करपी हिंदू धर्मांतले तशेंच हेर धर्मातले एके जातीक 'चामार' अशें म्हण्टात. ह्या लोकांक चांभार, मोची, चमार, चमगार आनी समगार अशींय नांवां आसात.

पराशर पध्दतींत चामार ही निषाद दादलो आनी चांडाळ बायल हांची संतत मानल्या. मनू स्मृतिंत (१०.३६) चामार ही वैदेह बायल आनी निषाद दादलो हांचो वंश आशिल्याचें म्हळां. महाभारतांत (१३.२५८८) निषाद बायल आनी वैदेह दादलो, हांच्या संबंदांतल्यान निर्माण जाल्ली जात अशें म्हळां. अशे तरेन वैदिक साहित्यांत चामाराचे विंगड विंगड उल्लेख आयल्यात. तांकां चर्मम्न वा चर्मम्ल अशेय तरेन पाचारल्यात. हाचेवेल्यान चामार ही जात वेदकाळाइतली पोरनी आशिल्याचें स्पश्ट जाता.

चामाराचे उत्पत्तीविशीं जी एक दंतकथा चलता, ती फुडले तरेन आसा:

एका ब्राह्मण घराब्यांत चार भाव रावताले. ते आपलीं शेतां रोवन आपलें पोट-पाणी चलयताले. एक फावट तांची एक गाय मेली, पूण तिका उखलून रानांत व्हरून उडोवपाक कोणूच मेळना जालो तेन्ना तांणी धाकल्या भावाक सांगलें, 'तूं त्या मेल्ले गायक व्हरून रानांत उडय आनी न्हावन-धुवन यो. आमी तुका परते आमचेमदीं घेतले.' धाकल्या भावान सांगलें तशें केलें. पूण घरांत येवपा वेळार व्हडल्या भावान ताका प्रवेश न्हयकारलो, आनी ताका चामाराचें काम करपाक सांगलें, त्याबदला ते तीगूय भाव ताका पोसपाक तयार जाले. ह्या चवथ्या भावाच्या वंशजाकूच मुखार चामार म्हणपाक लागले.

वैदिक आनी बुध्दापयलींच्या काळांत चामाराचो धंदो उण्या दर्जाचो मानताले. पूण अस्पृशांभितर चामार जात श्रेष्ठ हें स्पृश्यांकय मान्य आसलें. वाजसनेयी संहितेंत पुरुषमेध म्हळ्यार नरबळी दिवपाक चर्मम्न म्हळ्यार चर्मकार वा चामार फावसो बळी मानला.

चामाराची जात आपले भितर आनीकूय पोट-भागांनी वांटल्या. तातूंत जटिया, जैस्वार, धारिया, चौधरिया, बुंदेला, चामर, दोहर, कुरिल, कोरी वा कोली, अहिरबार, धुसिया वा झुसिया ह्यो मुखेल आसात. जैस्वार हे घोड्याची वेवस्था पळोवपाचें काम करतात आनी तकलेवेल्यान वजीं व्हरतात. हे लोक चामडें तयार करतात आनी ताचेपसून जोतीं, जोडे, पखाली सारक्यो वस्तू तयार करतात आनी शेतांतलेंय काम करतात. छत्तीसगड आनी त्या वाठाराच्या लागशिल्ल्या भागांत रावपी चामारांची नदरेन भर सारकी उदरगत जाल्या. मध्य प्रदेशांतले सतनामी चामार चामडयाक स्पर्श लेगीत करीनात हे तांचें खाशेलपण जावन आसा. हे चामार फकत आपल्या शेत-कामावरवीं पोट-पाणी चलयतात. कांय वाठारांत चामाराच्यो बायलो सुईणीचें काम करतात. हेर वाठारांतले चामार मात आपल्या जातीची उदरगत घडोवंक आयजवयर अपेशी थारल्यात.

नागपंचम, दिवाळी, होळी, ह्यो परबो चामार व्हड उमेदीन मनयतात. नागपंचमी दिसा ते नागाची पूजा करतात आनी घरामुखार एक आडी मारतात. हे आडयेवेल्यान नाग वा सोरोप घरांत भितर येना अशी तांची समजूत आसा. होळयेच्या दिसांनी ते हळशीकावणी गीतां गायतात आनी मनांत येत तशे वागतात. दिवाळेच्या दिसा घरांतले सगळे पोरने दिवे भायर उडोवन नवे दिवे लायतात. ह्या दिसा रातचे मेल्याचे आत्मे घरांत येतात अशी तांची समजूत आसा. हेखातीर चामार लोक ते राती जागोर करतात. दुसऱ्या दिसा सकाळीं घरची घरकान्न घरांतलो सगळो कोयर आनी पोरने कपडे शेणाचे राशीर व्हरून उडयता. चामार गोवर्धनदिवाळी नांवाची आनीक एक परब मनयतात. त्या दिसा ते शेणाची कृष्णप्रतिमा करून तिचे भोंवतणी शेणाच्यो ल्हान ल्हान राशी पर्वत म्हूण उब्यो करतात. पर्वताचेर झाडां म्हणून कापसान गुटलायिल्ल्यो तणाच्यो काडयो लायतात. गोरवां आनी राखणे म्हूण शेणाची आकृती स्थापन करतात. त्या दिसा गोपाळांक आपोवन पूजा करतात आनी जेवण घालतात.

चामाराक देव-पूजा, भुतां-खेतांची पूजा चड प्रमाणांत लागता. फातरांत, झाडांत, वेलींत, सुकण्यांत, सावदांत भुतां-खेतांचो राबितो आसता हे समजूतीन ते तांची पूजा करतात आनी देवकां म्हणूनय पूज्य मानतात. वेताळ, चुडेल, गयाल, मसान ह्या भुतांचीं तांकां चड भिरांत दिसता. कांय चामार सोरपाचीय पूजा करतात. मरी, शितळा, मसनी, आग्वानी ह्यो देवी रोगांच्यो वायट सांथी पसरायतात म्हूण तांची पूजा करून तांकां जायते पदार्थ अर्पण करतात. चोरदेव, जिलैया, मरेली, जवली देवी, भूमिया, भैरव, गणपती, हनुमान ह्या दैवतांकय चामार भजतात. ह्या देवाची ल्हान ल्हान देवळां गांवांत वा गांवचे शीमेर दिश्टी पडटात. रामनंद सागराचो पट्टशिष्य रविदास उर्फ रैदास हाका चामार आपलो आद्यपुरुष मानतात. जायते चामार ताचे अनुयायी आसून ते स्वताक रैदासी म्हणून घेतात. हेच तरेन कांय चामार दादू पंथीय तर कांय शिवनारायणपंथीय आसात. कांय चामार कबीरपंथाचे, कांय नानक पंथाचे, तर काय सतनामी पंथाचे अनुयायी जावन आसात. तेभायर ते जायत्या साधूंक आनी बैराग्यांक भजतात. कांय शीख चामाराक रामदास अशें म्हण्टात. हेमराज, नट बाबा, पांच पीर, काळू वीर, गोरखनाथ, गूगा पीर, हदौल ह्या संतांक चामार जातींत चड मान आसा. तांच्यो समाधी आतां तीर्थक्षेत्रां जाल्यांत. हिंदू धर्मासारखेच शीख, मुसलमान, जैन आनी बौध्द धर्मांतय चामार आसात.

सादारणपणान चामार आपले पोटजातींत लग्न करतात. सतनामी चामार हे दुसरे पोटजातींतल्या चामाराकडेन लग्न करीनात. सुरजवंशी, गहरवार, राठेड हे दुसरे पोटजातीकडेन लग्न संबंद दवरतात. चामारांभितर गोत्रां आनी देवकां आसून एकाच गोत्राभितर आनी देवकांत लग्नां जायनात. लग्नावेळार चलयेचें मोल म्हूणन वीस, तीस वा कांय वेळ शंबर रुपया दितात. चामारांभितर एकापरस चड बायलो करपाची, तेचपरी रखेली दवरपाची चाल चलताली. चामार चले चलयांचीं लग्नां भुरगेपणांत थारायताले. आठव्या वर्साचेर लग्नां जातालीं. चली जेन्ना वयार येताली तेन्नाच तिका घोवागेर धाडटाले, तो मेरेन ती आपल्या आवय-बापाय म्हऱ्यांत रावताली. चलयेक चोरून व्हरपाची चाल अजुनय थोड्या प्रमाणांत चामारांभितर चलता. हें लग्न फुडलेतरेन चलता:

न्हवरो घोड्यार बसून येता, ताच्या हातांत तरसाद आसता, वरातींत फकत दादले आसतात. ही वरात व्हंकलेच्या घरा मुखार, न्हवरो आनी व्हंकलकाराच्या पंगडाभितर फकाणाची लडाय जाता. मुखेल लग्नाचो विधी लग्नाच्या माटवांत जाता. जंय एक खांब उबारिल्लो आसता, ताका न्हवरो-व्हंकल सात फेरे घालतात. बिहारांत मैथिली ब्राह्मण तांचें पुरोयतपण करता. बंगाल वाठारांतले ब्राह्मण मात चामारांचें पुरोयतपण करीनात. पयलीं सतनामी चामाराचें लग्न जातकच, तीन वर्सां भितर वा पयल्या भुरग्याच्या जल्माउपरांत सतलोक नांवाचो सुवाळो करताले. हो विधी करना जाल्यार चामाराच्या जोडप्याक सतनामी पंथाचे अनुयायीपण मेळनासले. हो विधी फुडलेतरेन आसतालो:

गांवांतले दादले, थारायिल्ल्या दिसा जो दीक्षा घेता तागेर जमताले. जेवणखाण जातकच सांजवेळ ते मध्यानरात मेरेन नाचगाणे चलतालें. हो वेळ मेरेन लग्न जाल्ल्या मनशाची बायल आपले कुडींत वोगी रावताली. मध्यानरात जातकच तिचो घोव कुडींत वतालो आनी कोणाक गुरु करूल्या म्हूण विचारतालो. मागीर ती एकाद्र्या दादल्याचें नांव घेताली. घोव वचून त्या मनशाक नमस्कार करतालो. मागीर तो मनीस भितर तिचेवांगडा रात मनयतालो. दुसऱ्या दिसा तो गुरु त्या जोडप्याच्या गळ्यांत लांकडी मणयांची माळ बांदतालो. ही चाल सद्या बंद पडल्या.

चामारांची लग्नासंबंदीची एक खास गजाल म्हळ्यार तांच्यो जातीय पंचायती विधवेच्या लग्नाक मान्यताय दितात.

चामारांगेर जेन्ना भुरगें जल्माक येता तेन्ना बायलो सोहरगीत गावपाक

सुखात करतात आनी स दीस मेरेन खंड पडूंक दिनासतना गायतात. भुरग्यांक भुतां, खेतांची बाधा जावची न्हय म्हूण भुरगें जल्मतकच तवो वाजोवन आवाज करतात. सव्या दिसा वा नांव दवरपाच्या वेळार भुरग्यांक थंडी जावची न्हय म्हूण ताच्या पोटार लोखणाचे पट्टेन दाग दितात.

चामार लोक मेल्ल्याक जळयतात वा पूरतात आनी श्राध्द वाडटात. धाव्या दिसा ज्ञातिभोजन आसता. मेल्ल्या मनशाचो आत्मो घरांत भोंवता अशी समजूत आशिल्ल्यान, ज्या घरांत कोणाकूय मरण आयलां तें घर सोडटात.

चामार लोकांची पंचायत आसून आपले जातीचेर तिचो पुराय ताबो आसता. पंचायतीच्या मुखेल्याक चौधरी, सरपंच, प्रधान हीं नांवां आसून तो वंशपरंपरेन चलून आयिल्लो पंचायतीचो मुखेल आसता. जेन्ना एकाद्रो नव्यान पंचायतीचीं सुत्रां हातांत घेता, तेन्ना तांकां पगडी घालपाचो एक सुवाळो जाता. त्यावेळार होम करतात. जेवणावळी वाडटात. मागीर धवी पगडी, सवाय रुपया आनी नाल्ल नव्या मुखेल्याक भेट दितात. ह्या प्रसंगार जमिल्ले लोक खूब सोरो पितात आनी तो दीस मनयतात. जाती भितल्लीं झगडीं, चोरयो, व्यभिचार आनी जातीचे नेम मोडपासारख्या गुन्यांवाचेर निवाडे पंचायत करता. आयच्या यंत्रयुगांत जाती पंचायतीचें म्हत्व उणें जालां. तेभायर ह्या काळांत चामाराचो राबितोय सगळ्याक आशिल्ल्यान आनी खासा करून शारांत आशिल्ल्यान जाती पंचायतीचो हे जमानीवेलो शेक नश्ट जायत गेला.

पूर्विल्ल्या काळांत चामाराची वसती गांवांभायर आसताली. गांवाची सेवा करपी बारा बलूतेदारांमदीं चामाराचो आस्पाव जाताली.

भारताच्या चडशा भागांनी चामार लोकांची वसती आसा. तातूंत भितर बिहार, उत्तर प्रदेश, बंगाल, पंजाब, मध्य प्रदेश, राजस्थान, गुजरात आनी महाराष्ट्र हांगा तांची संख्या व्हड प्रमाणांत आसा. दक्षिण भारतांतले द्रविड जमातींत लेगीत तांचें अस्तित्व दिश्टी पडटा.

गोंय आनी कोंकण भागांत लेगीत चामाराची वसती आसा. रत्नागिरी म्हालांत तशेंच पयलींच्या सावंतवाडी संस्थानांत चामार आनी जिनगर अश्यो चामाराच्यो दोन जाती आसल्यो. तातुंतली चामार जात जोतीं, जडाव करताली तर जिनगर घोड्याचीं जिनां, पखाली करताली अशी माहिती रत्नागिरी गॅझेटियरांत मेळटा. गोंयांत चामार गांवावेल्यान पडिल्लीं नांवां लायता. देखीक वाडकार, पार्सेकार, मांद्रेकार आनी हेर. पोर्तुगेज काळांत तिसवाडी, बारदेस, मुरगांव, साश्ट म्हालांतले हिंदू जमातीक जेन्ना बाटयले तेन्ना तांच्यावांगडा चामाराय बाटले आनी किरिस्तांव जाले. चामाराचीं कांय घराणीं पळून गेलीं आनी काळांतरान चामार आपल्या गांवघरा येवन वसती करून रावपाक लागले. गोंयच्या चामाराची एक खाशेली गजाल म्हळ्यार ज्या गांवांत किरिस्तांव चामाराची वसती आसा त्याच गांवांत हिंदू चामारय व्हड प्रमाणांत आसात. देखीक- तिसवाडी, बारदेस, साश्ट आनी मुरगांव.

गोंयांत चामारांची लग्नाची पध्दत हेर हिंदूवरींच आसता. चामारांभितर मामेभयणीकडेन लग्न जावपाची चाल आसा. जर तशें घडलेंना तर ते हेरकडेन चली सोदतात. साडेसात वा साडेबारा रुपया हुंडो अनी जावपी सासूमांयक साडी नाल्ल दिवन मायपणाचो मान राखतात. लग्नाचो विधी चड करून व्हकलेच्या घरांत जाता. पयलीं बायलेक मनांत आयल्यार घोवाक सोडपाक मेळटालो पूण घोवाक बायल सोडपाक मेळनासली. सद्या ही चाल अस्तित्वांत ना. गोंयांत रुमड, औदुंबर, आंबो, बोकड्याची तकली हीं चामाराची देवकां जावन आसात. एका देवका भितर लग्न संबंद आसनात. चडशीं लग्नां गोंयांभितरच जातात.

जेन्ना, गोंयांत चामाराची लग्न जाल्ली चली गुरखार जाता तेन्ना तिका फुलां माळटात. होंट भरतात. चलयेचें पयलें बाळंतपण चलयेचे आवयगेर जाता. भुरगें जल्मतकच सव्या दिसा सटी करतात. तेवेळार सोयऱ्यांक जेवण दितात. धा दिसांचो सुयेर पाळटात. भटाकडल्यान भुरग्याचें जल्मनांव काडटात आनी इकराव्या दिसा भटाकडल्यान पंचगव्य हाडून शुध्दी करतात.

गोंयांत चामार पयलीं प्रेतां पुरताले आतां अर्थीक शक्तीनुसार प्रेतां पुरतात वा जळटात. धा दिसाचें सुतक पाळून इकराव्या दिसा शुध्दीकरण करतात. वर्सतिथीक वर्सश्राध्द जाता. त्या दिसा देवळांत प्रसाद घेवन मेल्ल्या आत्म्याक सोडोवन हाडटात आनी घरच्या देव्हाऱ्यांत ताची भावनेन थापणूक करतात. बऱ्या कार्यावेळार आनी परबे दिसांनी मृतात्म्याची पूजा करतात.

गोंयचे चामार हिंदूच्यो सगळ्यो परबो मनयतात. गोंयचे ग्रामदेव हेच तांचे कुलदेव आसतात आनी हेर देवांकय ते भजतात.

- कों. वि. सं. मं.

**चामुंडा:** चामुंडा ही एक शक्ती देवता. तिका दक्षाची चली 'सती' म्हणूनय वळखतात. सप्तमातृकांमदली ही एक देवता. ती त्रिगुणात्मिका आसून व्हड पराक्रमी आसा देखून सगळे देव संकश्टाच्या वेळार तिका शरण वतात.

चामुंडेच्या नांवाचे उत्पत्तीसंबंदान पुराणांत एक दंतकथा चलता ती अशी:

शुंभ-निशुंभ दैत्यांनी इंद्राकडल्यान स्वर्गाचें राज्य जिखून घेतलें आनी तेन्ना देवांनी अंबिका देवतेक होरायली. अंबिकेन आपल्या पोटांतल्यान एक देवता निर्मिली. तिचें नांव कालिका आसलें. कालिकेन शुंभ-निशुंभ दैत्यांचो संहार केलो. चंड-मुंडांक मारून ताच्यो तकल्यो अंबिकेक भेटयल्यो. त्यावेळार अंबिकेन तिका चंडाचें मूंड घेवन आयल्या म्हूण संवसार तिका 'चामुंडा' म्हूण वळखतलो, असो आशिर्वाद दिलो. त्या दिसासावन सगळे लोक तिका चामुंडा म्हूण वळखुपाक लागले.

चामुंडेचे उत्पत्तीसंबंदान पुराणांत आनीक एक कथा आसा:

पूर्विल्ल्या काळार महिषासुर ह्या दैत्यान इंद्राआड शंबर वर्सां झगडून 'इंद्रपद' मेळयलें, तेन्ना ब्रह्मा-विष्णु-महेशान आपल्या तोंडांतल्यान जी एक देवता निर्मिली तिचें नांव चामुंडा आसलें, उपरांत सगळ्या देवांनी तिका आपलीं विंगड विंगड आयुधां दिलीं. हिमालयान तिका बसपाक शिंव दिलो. उपरांत तिणें सगळ्या आयुधांवरवीं महिषासुराक जिवेशी मारलो.

चामुंडा देवतेचें वर्णन पुराण ग्रंथांनी अशें आयलां:

काली करालवदना विनिष्क्रान्तासिपाशिनी ।
विचित्रखट्वाङ्‌धरा नरमालाविभूषणा ।।
द्विपिचर्मपरीधाना शुष्कमांसातिभैरवा ।।
अतिविस्तारवदना जिव्हाललनभीषणा ।।
निमग्नारक्तनयना नादापूरितदिङ्‌मुखा ।।

अर्थ- उग्र भाव आशिल्ली, खडंग पाश, विचित्र खट्वांग आनी तकल्यांची माळ धारण केल्ली हतयाचें चामडें पांगुरिल्ली. शुष्कमांसाक लागून उग्र दिसपी, रुंद तोंडाची, लळलळपी जिबेक लागून भयंकर दिसपी, खोल आनी आरक्त नदर आशिल्ली. शंख नादान सगळ्यो दिका भरून उडोवपी अशी ही देवता.

दक्षाच्या यज्ञ-कार्यावेळार, दक्षाकडल्यान अपमान जातकच घरा परती येतना तिका महिषासुरान आडायली. तेन्ना तिणें महिषासुराक जिवेशीं मारलो आनी ती शंकराम्हऱ्यांत आयली. शंकराक तिच्या भिरांकूळ रुपाची किळस आयली आनी तिका ताणें मृत्युलोकांत वचून रावपाची आज्ञा केली. शंकराचे हे आज्ञेक लागून दक्षकन्या सती म्हळ्यार चामुंडा पृथ्वीर येवन रावली. अशी एक आख्यायिका आसा.

चामुंडा आपल्या भक्ताक धाडशी करता. जादूगाराक ताच्या जादवांत पालव दिता असो समज आसा.

व्रजमंडलांतले गडरिया जातीचे लोक चैत्र शु. नमीक बोकड्याचो कान कातरुन हे देवतेक दितात. ज्या गांवांतले लोक चामुंडा म्हळ्यार चामुंड देवतेक बोकड्याचो कान भेटयतात, त्या गांवांतलीं जनावरां रोगान मरनात, अशी शेतकार लोकांची भावना आसा.

चामुंडा देवतेच्यो भारतांत विंगड विंगड जाग्यांर व्दिभूज, चतुर्भूज अष्टभूज आनी षोडशभूज मुर्ती आसात. तातूंतल्यो कांय अश्योः

देवग्राम हांगाची चामुंडेची मूर्त द्विभूज आसून तिचे लांब कान, वयर आयिल्ल्यो बरी, लांबपी थानां, भितर गेल्लें पोट, मोटे दोळे हांकांलागून ती हिडीस आनी बुरशी दिसता.

जयपूर (ओडिसा)ची चामुंडा, तांत्रिक पंथाची आराध्य देवता आसली. हे मुर्तीक चार हात आसात. तिची कूड, पोट आनी दोळे भितर गेल्यात. तिच्या गळ्यांत तकल्यांची माळ आसून ती प्रेताचेर बसल्या. तिचे तकलेवयल्यान उजो भगभगील्लेवरी दिसता. तिच्या फाटल्या हातांत कर्तरी आनी शूल आसून फुडल्या दोन हातांत कपाल आनी मुंड (तकली) आसात. नालंदाक हेच तरेची एक मूर्त सांपडल्या. ती चामुंडेचीच आसपाक जाय अशें विद्वान मानतात.

तिरुच्चिगोडू हांगा चामुंडेची एक अष्टभुजा मूर्त मेळ्ळ्या. तिचे तकलेंतल्यान उज्याचे लोट वयर सरतात. तिच्या आठ्य हातांत आठ विंगड विंगड आयुधां आसात. कमरेक एक कनस्टो आसा. तिणें एक पांय प्रेताचेर दवरल्ला आनी तिचें तोंड रागीट दिसता.

गोंयांत दिवचल म्हालांत, पिळगांव गांवांत वरगांव वाड्यार चामुंडेचें देवूळ आसा. ह्या देवस्थानाचे म्हाजन सद्याक वैश्य आसात. ते मुळचे व्हडले गोंयचे आसात. हांचे आदी 'सारस्वत' ह्या देवस्थानाचें म्हाजन आसले.

चामुंडेचें वरगांव वाड्यावेलें देवस्थान तिसवाडी जुंव्यावेल्या व्हडलें-गोंय गांवचें ग्रामदैवत आसून, १५६० त पोर्तुगेज धर्मछळांतल्यान देवतेक वाटावपाखातीर थंयची मूर्त आनी प्रतिकां हांची स्थापना म्हाजनांनी वरगांव वाड्यार केली. ह्या देवस्थानांत मुखेल देवतेच्या देवळा सयत सगळीं मेळून चार देवळां आसात. हातूंत मुखेल देवता चामुंडा हिचें देवूळ सगळ्यांत व्हड आसा. चामुंडेचें देवूळ उदेंतेवटेन आसून, ताच्या मुखार उक्तें आंगण, माची, उजवे कुशीक श्रीक्षेत्रपाळाची देवळी आसा. दावे कुशीक दीपमाळ आनी तुळशीवृंदावन आसा. दीपमाळेमुखार श्रीनिरंकाराची घुमटी आसा. चामुंडेच्या गर्भागाराचे बसकेर दोन वळींचो संगमरवरी शिलालेख आसा. त्यावेल्यान ह्यो लादयो १९३५ क मडगांवच्या पांडुरंग वामन शेट आमोणकार हाणें बसल्यात हें कळटा.

ह्या देवळाचें पुराय बांदकाम गोपाळ शेट गोवेकराचो पूत भैरशेट हाणें शके १५४७ त केलें हें ह्या देवळाच्या कोरीव शिलालेखावेल्यान कळटा. देवळाच्या मुखेल दाराचेर आशिल्ल्या कोरीव शिलालेखावेल्यान शके १७२४ म्हळ्यार इ.स. १८०१ त देवळांचो जीर्णोध्दार जाल्याचें समजता.

श्री चामुंडा देवालयाचे दावे कुशीक श्री काळभैरवाची देवळी आसा. ताच्या फाटल्यान देवीची तळी आसा. ते तळयेच्या मध्यभागाक तुळशीवृंदावन आसा. ह्या तुळशीवृंदावनाच्या पेडाचेर चामुंडा, काळभैरव आनी क्षेत्रपाळ हांच्यो दक्षिण दिकेवटेन तोंड करून आशिल्ल्यो तीन मुर्ती आसून ह्यो पूर्विल्ल्या काळांतल्यो आसात. सद्या देवळांत प्रतिश्ठीत आशिल्ल्यो नव्यो तिनूय मुर्ती १८०१ त, देवळाच्या जीर्णोध्दारावेळार दवरल्या आसुंये अशें मानतात.

वरगांव- दिवचलचे देव-देवता आनी तांचीं वर्णनां अशींः

श्रीचामुंडा- अष्टभुजा आशिल्ली ही कृष्ण शिळेची मूर्त जावन आसा.

श्रीकाळभैरव- शिलामूर्त

श्रीगोवेश्वर- हे नवे देवळेंत शिवलिंग आनी मुखार नंदी आसा.

श्रीक्षेत्रपाळ- एक शिलामूर्त, ही मूर्त बरीच पोरनी आसा.

व्हडल्या गोंयांत रावपी सारस्वत, दैवज्ञ, भंडारी, नाईक, गोवेकार आनी खोरजुवें हांगासल्ले पोवळे हांकां 'भजक' हें नांव आसून ते चामुंडेचे ग्रामस्थ आसात.

ह्या देवस्थानांत प्रसाद लावपाखातीर स्वतंत्र प्रसादमूर्त ना. मुखेल मूर्तिकच प्रसाद लायतात. मुखेल मुर्तीच्या पाशाणाक प्रसाद लावपाखातीर करमलीच्या पांनाचे कुडके वापरतात. प्रसाद मूर्तीच्या ६४ जाग्यांर लायतात.

- कों. वि. सं. मं.

**चार:** (मराठी-चार, चारोळी, प्यालचार; हिंदी- चिरोंजी, पियाल; गुजराती- चारोली; कन्नड-मुरुकळ्ळी; संस्कृत-राजादनू, स्नेहबीज; लॅटीन-बूखनॅनिया लँझान; कूळ- ॲनाकार्डिएसी).

उंचाय सुमार १२ ते १५ मी. आनी घेर सुमार १.२ मी.; कांय काळ पानां आसपी हो रुख भारतांतल्या सुक्या आनी विरळ रानांनी (वायव्य भारतांत सतलज ते नेपाळ मेरेन सुमार ९०० मी. उंचायेमेरेन) दिश्टी पडटा. ब्रह्मदेश, कंबोडिया, इंडोचायना आनी सयाम ह्या वाठारांनीय हो रुख दिश्टी पडटा.

ह्या रुखाची साल दाट, गडद गोबरी आनी खडबडीत. पानां सादीं, एका फाटल्यान एक, मोटीं, मात्शीं लांब, तोंकाकडेन वाटकुळीं, निबर आनी अखंड आसतात. पानांचो देंठ थपकटो, घट्ट आनी केंसाळ आसता. जानेवारी- मार्च ह्या म्हयन्यांत पानांचे खांचींत वा खांदयेच्या तोंकार लेव पाचवीं, ल्हान आनी खूब फुलां येतात. मार्च-मे ह्या म्हयन्यांत सुमार ०.८- १.२ सेंमी. गुळगुळीत, काळें, ल्हान आनी पालशें फळ येता. फळांतल्या बियेंतल्या म्होवल्याक चारोळी म्हण्टात.

गोड पदार्थांनी, रुचीखातीर चारोळी घालतात. रुखाचो पालो जनावरां खातात. ताचो दीख पातळ परसाकडल्या दुयेंसाचेर वापरतात. बियांचें तेल थंड आसून वखदांत ताचो वापर करतात. कातीच्या रोगाचेर हें तेल उपेगी पडटा. ह्या रुखाचें लांकूड ल्हव आनी मध्यम घट्ट आसून तें पेटयो, खाटी, जोतां, खांबे, दारां, फस्कां आदी वस्तू करपाक उपेगी पडटा. सालींत १३% टॅनीन आशिल्ल्यान तिचो चामडें कमोवपाक उपेग करतात. बियांत ६१.८% तेल, १२.१% स्टार्च, ३१.६ % प्रथिन आनी ५% साकर आदी द्रव्यां आसतात. बियांचें तेल लेव हळडुवें, मंद वास आशिल्लें आनी गोड आसता. बदामाचें तेल वा ऑलीव्ह तेला बदलाक ह्या तेलाचो वापर करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**चार्वाक:** लोकायत दर्शनाचो आचार्य. हो आचार्य केन्ना जल्मल्लो आनी ताका मरण केन्ना आयलें, ह्या प्रस्नाविशीं विद्वानांमदीं एकमत ना. प्रा. आठवले हाच्या मतान चार्वाक हो इ.स. च्या दुसऱ्या शतमानासावन सातव्या शतमानामेरेन केन्ना तरी जावन गेल्लो आसूंये.

रघुनाथ भास्कर गोडबोले हाच्या 'भरतखंडाचा अर्वाचीन इतिहास' (१८८१) ह्या ग्रंथांत चार्वाकाविशीं कांय म्हायती आयल्या. तातूंत चार्वाकाचो जल्म अवंती देशांत क्षिप्रा आनी चामला ह्या न्हंयांच्या संगमाचेर आशिल्ल्या शंखोध्दार क्षेत्रार इ.स.प. २४४१ वर्सा (युधिष्ठीर शक ६६१) वैशाख पुनवेक दनपरां जालो, अशें म्हळां. ताका इ.स.प. २३७५ वर्साआदीं (युधिष्ठीर शक ७२७) मरण आयलें, अशेंय तातूंत सांगलां.

एका अज्ञात जैन ग्रंथाच्या संदर्भावेल्यान चार्वाकाच्या बापायचें नांव इंदुकांत आनी आवयचें नांव स्तृग्विणी आशिल्लें, अशें समजता.

महाभारताच्या शांतिपर्वांत (३७,३८) आनी शल्यपर्वांत (६५) एका संन्याशी चार्वाकाचो उल्लेख येता. महाभारतांतलें म्हा-झूज सोंपतकच युधिष्ठीर (धर्म) अश्वमेध यज्ञाची तयारी करपाक लागलो. तेन्ना चार्वाकान थंय येवन ताका विचाल्लें, 'रक्ताचे पाट व्हांवोवन आनी स्वताच्या भावांक मारून तुवें जें जैत जोडलां, तें तुजें खरें जैत जावंक शकता?' ह्या प्रस्नाक थंय जमिल्ले ब्राह्मण भिले आनी हो दुर्योधनाचो इश्ट चार्वाक नासून यतीच्या भेसांत आशिल्लो राकेस आसा, अशें म्हणपाक लागले. तेन्ना श्रीकृष्णान सांगलें 'हो एक व्हड तपस्वी जावन आसा. पूण ब्राह्मणांचो अपमान केल्ल्यान हाका ब्राह्मणा हातांतल्यान मरण येतलें असो श्राप आसा.' ते सांगणेप्रमाण चार्वाकाक ब्राह्मणाच्या हातांतल्यान मरण आयलें.

महाभारताच्या झुजांत कौरवांक व्हड हार खावची पडली. उपरांत

दुर्योधनाक निमाण्या वेळार आपलो इश्ट चार्वाकाची याद आयली. आपूण मरतकच आपले निमाणे संस्कार चार्वाक करतलो, अशें ताका दिसलें. वयल्या प्रसंगाचो आदार घेवन, चार्वाक हो दुर्योधनाचो राजनीतिशास्त्रांतलो सल्लागार आशिल्लो, अशें तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्रीन म्हळां.

इ.स. ८ व्या शतमानासावन साहित्यांत चार्वाक हें उतर जायते फावटीं आयलां. कृष्ण मिश्राच्या इकराव्या शेंकड्यांत बरयिल्ल्या 'प्रबोधचंद्रोदय' नाटकांत बृहस्पती हो लोकायत दर्शनाचो संस्थापक आसून चार्वाक हो ताचो पट्टशिष्य आनी त्या दर्शनाचो प्रचारक आशिल्लो अशें सांगलां. माधवाचार्यान सर्वदर्शनसंग्रहांत ताका 'नास्तिकशिरोमणी' म्हळां.

चार्वाक राकेस म्हळ्यार नास्तिक तत्त्वज्ञानी चार्वाक जावन आसा, अशें कांय विद्वानाचें मत आसा. चार्वाकान लोकायत दर्शनांत व्हड भर घाल्या आनी ताचो खूब प्रसार केला.

- कों. वि. सं. मं.

**चार्टिस्ट चळवळः** उद्येगीक क्रांतीक लागून युरोपांत कारखान्यांनी काम करून उपजिविका चलोवपी नवो कामगारवर्ग उदयाक आयलो. इंग्लंडांत ह्या श्रमिक वर्गान इ.स. १८३६ ते इ.स. १८४८ ह्या काळांत आपल्या राजकी आनी अर्थीक मागण्यांखातीर जी एक देशव्यापी चळवळ घडोवन हाडली, तिका 'चार्टिस्ट चळवळ' अशें म्हण्टात. मे १८३८ त 'जनतेची सनद' (पिपल्स चार्टर) ह्या नांवान एक पत्रक उजवाडाक आयलें. ताका लागून हे चळवळीक 'चार्टिस्ट चळवळ' अशें म्हण्टात.

ह्या पत्रकांत स गजालींचो आस्पाव आशिल्लोः दादल्या नागरिकांक सार्वत्रिक मताधिकार, समान मतदारसंघ, पार्लमेंटच्या सभासदत्त्वाखातीर किमान मालमत्तेची अट रद्द करप, पार्लमेंटच्या सभासदांक वेतन, गुप्त मतदानपध्दत आनी दर वर्सा सार्वत्रिक वेंचणूक. विल्यम लोव्हेट आनी फ्रांसिस प्लेस हांणी लंडन हांगा १८३६ त स्थापन केल्ल्या 'लंडन वर्किंग मॅनूस असोसिएशन' हे कामगार संघटनेन ही सनद तयार केल्ली. ताच्यावांगडा फर्गस ओकॉनर आनी स्टीफन्स हांणीय राजकी हक्क मेळयल्याबगर श्रमीकांची परिस्थिती सुदारपाची ना, हो विचार मांडलो आनी हे चळवळीक खूब नेट हाडलो.

चार्टिस्टांचे सनदेंतल्या मागण्यांचें स्वरुप राजकी आसलें, तरी कामगारांचो मूळ हेत समाजीक आनी अर्थीक प्रस्न सोडोवप, होच आशिल्लो. तेखातीर पार्लमेंटांत तांकां आपले प्रतिनिधी धाडपाचे आशिल्ले. हेविशीं इ. स. १८३२ च्या संसदीय सुदारणा कायद्यावरवीं मुजरांक मताधिकार न मेळिल्ल्यान ते पुराय निर्शेले. तो कायदो करुन घेवपाखातीर भांडवलदार मध्यम वर्गान, भाटकारांआड जो लढो दिल्लो, ताका कामगारांनी सक्रिय फाटबळ दिल्लें. ताका लागून पार्लमेंटाचेर भांडवलदारांचें वर्चस्व प्रस्थापित जालें. कामगारांक अशें दिसतालें, की मताधिकार सार्वत्रिक जाले जाल्यार आपले प्रतिनिधी भोव संख्येन निवडून येतले आनी कामगारांच्या हिताक फावशे कायदे करून घेवपाक मेळटले. चार्टिस्टांचो लढो घटनात्मक आशिल्लो आनी तो पार्लमेंटांत कामगारांचें बळ वाडोवपाखातीर आशिल्लो.

वेस्टमिन्स्टर पॅलेस यार्डांत १८३९ चे फेब्रुवारींत सनदवाल्यांचो राश्ट्रीय मेळावो भरून मागण्यांचो अर्ज संसदेक सादर केलो. पूण पार्लमेंटान सनद भायर उडयल्यार, फुडें कितें करप ह्या विशयाचेर प्रतिनिधींभितर तीव्र मतभेद जाले. तांच्यांत फूट पडली आनी नीतिवादी चार्टिस्ट (मवाळ) आनी हिंसावादी चार्टिस्ट (जहाल) अशे मुखेल गट तयार जाले. तांच्यांतल्या जहाल गटाक सार्वत्रिक संप करचो, अशें दिसतालें. निमाणें साडेबारा लाख सयो घेवन सादर केल्ले सनदेचेर पार्लमेंटान जुलय म्हयन्यांत चर्चा केली. पूण पार्लमेंटांत गिरेस्त मध्यम वर्गाचेच प्रतिनिधी व्हिग आनी टोरी ह्या दोनूय मुखेल राजकीय पक्षांत आशिल्ली. मताधिकार सार्वत्रिक केल्यार पार्लमेंटावयलो आपलो प्रभाव नश्ट जातलो म्हूण तांणी कडक विरोध केलो. ताका लागून पार्लमेंटान प्रचंड भोवमतान सनद भायर उडयली. चार्टिस्टांच्या प्रतिनिधी मंडळाचेर बंदी आयली. हे बंदीक लागून चळवळीक हिंसक मोडण मेळ्ळें. संप, दंगली वाडल्यो. न्यू पोर्ट हांगा लश्करावांगडा चार्टिस्टांची चकमक जाली.

हाचे उपरांत अदीक नेमस्त विचारांच्या फुडाऱ्यांनी चळवळ हातांत घेतली. जुलय १८४० त मँचेस्टर हांगा 'राश्ट्रीय चार्टिस्ट संघ' स्थापन जावन चळवळीक परत संघटित स्वरुप प्राप्त जालें. इंग्लंडांत इ. स. १८४२ चे उद्येगीक मंदीक लागून कामगारांचे संप आनी दंगली सुरु जाल्यो. ताचो फायदो घेवन चार्टिस्टांनी लाखांनी सयो घेवन दुसरी सनद पार्लमेंटाक सादर केली. पूण हो अर्ज पयल्या अर्जासारकोच भायर उडयतकच नीतिवादी (मवाळ) गटाचें वजन कमी जावन चळवळीचीं सूत्रां ओकॉनरच्या जहाल (हिंसावादी) गटाकडेन गेलीं. पूण तांणी पुरस्कृत केल्लो भौशीक संप आनी गुप्त लश्करी संघटनेचे यत्न बारगळ्ळे. ल्हवल्हव चळवळीचो धग न्हिवत गेलो.

१८४८ त परत वेपारी मंदी आयली. ह्याच वर्सा जायत्या युरोपीय देशांनी क्रांत्यो घडून येताल्यो. युरोपांतल्या प्रक्षोभक वातावरणाक लागून इंग्लंडांतूय क्रांती सोपी जातली, ह्या विचारान चार्टिस्ट आंदोलनाक नेट आयलो. परत एकदां संसदेक मागण्यांचो अर्ज सादर करपाचें चार्टिस्टांनी थारायलें. पांच लाख निदर्शकांनी केनिंग्टन मैदानापसून संसदगृहामेरेन मोर्चा काडून पन्नास लाख सयांचो अर्ज संसदेक सादर करप, अशें थारायलें. पूण सरकार शादूर रावेल्ल्यान केनिंग्टन मैदानाचेर आनी लंडन पार्लमेंटामुखार घडोवन हाडिल्ल्यो विशाल सभा जावंक पावल्योनात. मात मोर्चांत फकत पन्नास हजार निदर्शक आशिल्ले. पार्लमेंटान पयल्या दोन अर्जाप्रमाणूच तिसऱ्याय अर्जाची वासलात लायली. अर्जाची छाननी करतकच तातूंत फकत वीस लाख सयो आसून जायत्या काल्पनिक व्यक्तींच्यो आनी कांय बनावट सयो आशिल्ल्याचें दिसून आयलें. ताका लागून चार्टिस्टांची सगळ्याक बदनामी जाली.

ओ'काँबराक पिशें लागलें आनी ताची सुवात अर्नेस्ट जोन्स ह्या नव्या फुडाऱ्यान घेतली. चळवळ थंडावली खरी पूण पुराय सोंपलीना. वयल्यान चळवळींतल्या जायत्या कार्यकर्त्यांनी कामगारांचे समाजीक आनी अर्थीक प्रस्न घेवन संघटना उबारल्यो आनी लढे चालूच दवरले.

'चार्टिस्ट चळवळ' फसली तरी तांची वर्सुकी वेंचणुकांची अव्यवहार्य मागणी सोडल्यार हेर मागण्यो फुडल्या ५०-७५ वर्सांत मान्य जाल्यो. पूण राजकी हक्कांक लागून कामगारांची समाजीक आनी अर्थीक परिस्थिती सुदारतली हो विचार मात खोलायेन रिगूंक शकलोना.

कामगार आंदोलनाच्या इतिहासांत चार्टिस्ट चळवळीक खूब म्हत्व आसा. कारण आपले प्रस्न सोडोवपाखातीर जागरूक कामगारांनी संघटित जावन केल्लें तें पयलेंच व्यापक आंदोलन आशिल्लें. ह्या आंदोलनाक लागून कामगारांच्या वर्गीय लढ्याक फाव ती दिका मेळ्ळी आनी फुडल्या काळांतल्या कामगार लढ्याक स्फूर्त मेळ्ळी. लोकशायेच्या तत्त्वगिन्यानाचे नदरेन आनी शासनस्वरुपाचे उदरगतीचे नदरेनूय हे चळवळीक म्हत्व आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**चालुक्य राजवंशः** दक्षिणेंत, खासा करून कर्नाटक आनी महाराष्ट्र हांगा पांचव्या शेंकड्यांत उदेल्लो एक नामनेचो वंश. ह्या वंशाचो एक फांटो चड नामनेक पावलो तो म्हळ्यार बादामीचे चालुक्य आनी तांचे वंशज कल्याणीचे चालुक्य. तेभायर तांचे हेर ल्हानसान फांटे गुजरात, तेलंगण आनी हेरकडेन पातळिल्ले. फातरापट्यांनी ह्या घराण्याचें नांव चालिकी, साल्की, चलिक्य, चालुक्य, चलुकिक अशें विंगड विंगड पध्दतीन बरयल्लें सांपडटा. हें घराणें मूळ कर्नाटकांतलें; पूण १० व्या शेंकड्यासावन दक्षिणेंतल्या कल्याणीच्या राजवंशान स्वताक सोमवंशी समजून उत्तरेंतल्या नामनेच्या पौराणिक घराण्याकडेन, सोमवंशाकडेन संबंद जोडपाचो यत्न केलो. बादामी चालुक्यांतल्या घराण्याचो एक फांटो, वेमुलवाड्याचे चालुक्य स्वताक सूर्यवंशी मानताले. ह्या घराण्याचो मूळ पुरुस उदयन आनी उपरांतचे ५८ राजा

अयोध्येक राज्य करताले, तांतलो निमाणो विजयादित्य दक्षिणेक आयलो. ताणें त्रिलोचन नांवाच्या पल्लव राजाचेर जैत मेळयलें. ताच्या मरणाउपरांत विष्णूवर्धन नांवाच्या ताच्या पुतान चालुक्य पर्वताचेर भगवती, नंदागौरी, कार्तिकेय, नारायण, सप्तमातृका ह्या देवतांची भक्ती करून, कदंब आनी गंग राजवंशाचेर जैत मेळोवन आपल्या राज्याची थापणूक केली, अशी काल्पनिक कथा उत्तर काळांतल्या लेखांत बरोवन दवरल्या. ब्रह्मदेवाच्या वा हारिति पंचशिख ऋषीच्या 'चुलुकांतल्यान' (पोशांतल्या उदकांतल्यान) हो राजवंश निर्माण जालो, अशीय एक कथा आसा.

**बादामीचे चालुक्यः** एका काळांत हांची सत्ता दखखनच्या चडशा वाठाराचेर आशिल्ली. कोरीव लेखांप्रमाण ह्या घराण्याचो मूळ पुरुश जयसिंह. तो आनी ताचो पूत रणराग हांचेविशीं चडशी म्हायती मेळना. रणरागाचो पूत पयलो पुलकेशी हाचो ५४३-४४ तलो लेख बादामीच्या किल्ल्यांत सांपडला. ताणें वातापिपूर (बादामी) हांगा आपले राजधानीची थापणूक केल्ली. चालुक्य वंशाचो हो पयलो बळीश्ट राजा. ताणें अश्वमेध, अग्निष्टोम, वाजपेय, बहुसुवर्ण, पौंडरिक ह्या सारके यज्ञ केल्ले. पयल्या पुलकेशीक कीर्तिवर्मा आनी मंगलेश अशे दोन पूत आशिल्ले. तांतल्या कीर्तिवर्मान सत्तेर येतकच कर्नाटकांतल्या कदंब, कोंकणांतल्या मौर्य आनी मध्य प्रदेश- ओरिसांतल्या नल राजांचेर जैत मेळोवन आपली सत्ता वाडयली. ताच्या मरणा उपरांत ताचो पूत दुसरो पुलकेशी सान आशिल्ल्यान मंगलेश ५९७-९८ त राजा जालो. उत्तर भारताचेर घुरी घालून गंगेचे देगेर आपलो धर्मस्तंभ उबारपाची ताची इत्सा आशिल्ली. ते नदरेन तांणें आपल्या राज्याचे उत्तरेवटेन महाराष्ट्राचेर राज्य करपी कलचुरी राजा बुध्दरस हाचेर घुरी घालून ताचो पराभव केलो. त्याच वेळार रेवतीद्वीप (वेंगुर्ल्यालागचो रेडी जुंवो) हांगा राज्य करपी स्वामिराज नांवाच्या मांडलिकान बंड केल्ल्यान ताका थंय वचचें पडलें आनी उत्तर भारताचेर घुरी घालपाचें ताचें सपन पुराय जावंक पावलें ना.

मंगलेशान स्वताफाटल्यान स्वताच्या पुताक राज्य मेळचें अशी वेवस्था केली. राजाचो खरो वारस पुलकेशी हाणें रागान देश सोडलो आनी हेर राजांचो पालव घेवन मंगलेशाचेर जैत मेळयलें. दुसरो पुलकेशी सुमार इ. स. ६१०-११ त राजा जालो. तो चालुक्य घराण्यांतलो सगळ्यांत चड पराक्रमी राजा जावन गेलो. ताणें लाट (गुजरात), नालव आनी उत्तर गुजरातचे गुर्जर हांकां आपले मांडलिक केले. उत्तरेवटेनचो बळिश्ट राजा हर्षवर्धन हाणें त्या वेळार दक्षिण भारताचेर घुरी घाली. नर्मदा न्हंयचे देगेर पुलकेशी आनी हर्षवर्धन हांचें झूज जालें. ह्या झुजांत पुलकेशीन हर्षवर्धनाचेर जैत मेळयलें. ह्या जैताउपरांत ताणें स्वताच्या नांवाफाटल्यान परमेश्वर ही पदवी लावन घेतली. तेउपरांत दक्षिण कोसल आनी कलिंग हांगाच्या राजांनी पुलकेशीची सत्ता मानून घेतली. पुलकेशीन कांची (कांजीवरम्) च्या पल्लव राजांचेर घुरी घाली. तेन्ना पल्लव राजा नृसिंहवर्मा हाणें ताचो पराभव करून पुलकेशीची राजधानी वातापी भूंयभरवण करून उडयली. ह्या झूजांत घडये पुलकेशीक मरण आयलें (इ.स. सुमार ६४२) अशें बरेच इतिहासकार मानतात.

पुलकेशीफाटल्यान ताचो पूत (पयलो) विक्रमादित्य राजा जालो. ताणें इ.स. ६५५ त पल्लवांचेर घुरी घालून तांची राजधानी जिखून घेतली. मात ताका पुरायपणान पल्लवांचो पराभव करप जमलेंना. आपल्या पराक्रमान ताणें हेर राज्यांचेरय आपलो शेक गाजयलो. ताका सुमार इ.स. ६८१ त मरण आयलें. ताच्या फाटल्यान पयलीं ताचो पूत विनयादित्य आनी उपरांत नातू बिजयादित्य राजा जाले. तांणी उत्तर भारताचेर आपलो शेक गाजयलो. इ. स. ७३३ त विक्रमादित्य (दुसरो) राजा जालो. ताणें पल्लव राजा नंदिपोतवर्मा हाचेर खडेगांठ जैत मेळयलें. तीन फावट कांची जिखून आनी उपरांत पांड्य चोल, केरल आनी केळभ्र राजांचेर जैत मेळोवन ताणें दक्षिण दर्यादिगेर आपल्या जैताचो खांबो उबारलो. ह्या वंशाचो विक्रमादित्या फाटल्यान सत्तेर आयिल्लो कीर्तिवर्मा हो राजा कर्तबगार नाशिल्ल्यान इ.स. ७५३ त राष्ट्रकुट वंशातल्या दंतिदुर्ग नांवाच्या राजान ताचो पराभव केलो. कीर्तिवर्म्याच्या ह्या पराभवावांगडा चालुक्यांचो दक्षिणेंतलो शेक सोंपलो.

## बादामीच्या चालुक्यांची वंशावळ

जयसिंह
- रणराग
  - पयलो पुलकेशी (सुमार ५३५ ते ५६३)
    - पयलो किर्तीवर्मा (५६६-६७ ते ५९७-९८)
      - दुसरो पुलकेशी (६१०-११ ते ६४२)
        - पयलो विक्रमादित्य (६५५ ते ६८५)
          - विनयादित्य (६८१ ते ६९६)
            - विजयादित्य (६९६ ते ७३३)
              - दुसरो विक्रमादित्य (७३३-७३४ ते ७४४-४५)
                - दुसरो किर्तीवर्मा (७४४-४५ ते ७५७)
    - मंगलेश (५९७ ते ६१०-११)
      - कुब्जविष्णुवर्धन
        - धराश्रय जयसिंह
          - श्रयाश्रय शीलादित्य

**कल्याणीचे चालुक्यः** हे स्वताक बादामीच्या चालुक्यांचे वंशज मानताले. कीर्तिवर्माचो पराभव जाल्याउपरांत सुमार फुडलीं दोनशीं वसीं चालुक्य घराण्याविशीं व्हडलीशी म्हायती मेळना. कल्याणीच्या चालुक्य घराण्याचो मूळ पुरुस तैलप हाचो सुर्वेचो लेख इ.स. ९५७ तलो आसा. ह्या दोनशीं वर्सांच्या काळांत चालुक्यांच्यो स पिळग्यो जाल्यो अशें मिरज तांब्यापट्यांत बरयलां. पूण ह्या दोन चालुक्य वंशाच्या वर्णनांत आनी तांणी घेतिल्ल्या पदव्यांत सारकेपण सांपडना. ताकालागून तैलप बादामीच्या चालुक्यांचो वंशज आशिल्लो काय ना, हाचेविशीं दुभाव आसा.

दुसरो तैल वा तैलप हाणें आपल्या बळग्याच्या नेटार राष्ट्रकूट राजा दुसरो कर्क हाचेर ९७३ त जैत मेळोवन चालुक्य घराण्याची राजवट सुरू केली. ताचेपयलीं राष्ट्रकूटांच्या काळार ह्या घराण्यांत तिसरो कीर्तिवर्मा, तैल, तिसरो विक्रमादित्य, दुसरो भीम, अय्यण आनी चवथो विक्रमादित्य हे राजा जाल्ले. पूण ते फकत नांवापुरतेच राजा आशिल्ले. तैलपान गंगराजा पांचालदेवाचो पराभव केलो. कोंकणांतले शिलाहार आनी खानदेशांतले यादव हांणी ताची सत्ता मानून घेतली. परमार राजावांगडा ताचें स-सात फावट झूज जालें. निमाणें ताणे परमार राजा मुंज हाका मारून उडोवन आपली सत्ता घट केली.

तैलपाउपरांत ताचो पूत सत्याश्रय ९९७ त सत्तेर आयलो. परमार सिंधुराज हाणें सत्याश्रयावांगडा लडाय करून आपलो वाठार पर्यंन जिखून घेतलो. ताणें शिलाहार आनी चोल राजांचेरूय जैत मेळयलें. सत्याश्रयाउपरांत ताचे पूत पांचवो विक्रमादित्य, अय्यण आनी दुसरो

## कल्याणी चालुक्यांची वंशावळ

- विजयादिव्य (इ. स. ६९६ ते ७३३)
  - भीम
    - तिसरो किर्तीवर्मा
      - तैलप वा तैल
        - तिसरो विक्रमादित्य
          - दुसरो भीम
            - अय्य
              - चवथो विक्रमादित्य
                - दुसरो तैल
                  - सत्याश्रय (९९७-१००८)
                  - यशोवर्मन
                    - पांचवो विक्रमादित्य (१००८-१०१४)
                    - दुसरो अय्यण (१०१४-१०१५)
                    - दुसरो जयसिंह (१०१५-१०४२)
                      - पयलो सोमेश्वर (१०४२-१०६८)
                        - दुसरो सोमेश्वर (१०६८-१०७६)
                        - सवो विक्रमादित्य (१०७६-११२७)
                          - जयकर्ण त्रैलोक्यमल्ल
                          - तिसरो सोमेश्वर (११२७-११३८)
                            - दुसरो जगदेकमल्ल (११३८-११५१)
                            - तिसरो तैल (११५१-११६३)
                              - चवथो सोमेश्वर (११८४-१२००)

जयसिंह एकाफाटोफाट सत्तेर आयले. पयल्या दोगांची कारकीर्द चड तेंप चलली ना, पूण जयसिंह हाणें मात १०१५ सावन १०४२ मेरेन राज्य चलयलें. परमार भोज, कलचुरी गांगेयदेव आनी चोल राजेंद्र ह्या तीन राजांवांगडा ताका झूजचें पडलें. जयसिंहान तिगांयचो पराभव केलो.

जयसिंहाउपरांत ताचो पूत पयलो सोमेश्वर आहवमल्ल राजा जालो. ताचे १०४२ ते १०६८ मेरेनचे लेख सांपडल्यात. ताच्या काळांत चोल राजा राजाधिराज हाणें बरेच फावट चालुक्यांचेर घुरी घालून तांची कल्याण ही राजधानी भूंयभरवण केली, पूण १०५३-५४ त जाल्या

कोप्पम् हांगाच्या झुजांत ताका मरण आयलें. ताचो भाव राजेंद्रदेव हाणें सोमेश्वराचो उपरांत पराभव केलो आनी झुजामळार स्वताचो राज्याभिशेक करुन घेतलो. १०६२ त पर्यंन सोमेश्वराचो चोलांनी पराभव केलो. सोमेश्वराक १०६८ त मरण आयलें आनी ताचो व्हडलो पूत दुसरो सोमेश्वर राजा जालो. ताचे आनी ताच्या भावाचे सव्या विक्रमादित्याचे संबंद बरे नाशिल्ले. १०७६ त दुसऱ्या सोमेश्वराचेर जैत मेळोवन विक्रमादित्य स्वता राजा जालो. विक्रमादित्यान फुडें होयसळ, कदंब, शिलाहार, यादव हांचेर जैत मेळयलें.

सव्या विक्रमादित्या उपरांत ताचो पूत तिसरो सोमेश्वर सत्तेर अयलो. ताचे कारकिर्दींत होयसळ विष्णुवर्धनान ताच्या राज्याचेर घुरी घाली, पूण सोमेश्वरान ताचो पराभव केलो. ताणें स्वता आंध्र आनी तामीळ प्रदेशांचेर घुरयो घाल्यो, पूण तो जैतिवंत जालो ना. ताच्या फाटल्यान ११३८ त जगदेकमल्ल राजा जालो. ताणें होयसळ आनी कदंबांचीं बंडां पुरायपणान मोडलीं.

जगदेकमल्लाफाटल्यान ताचो भाव तिसरो तैल राजा जालो. चालुक्य राजा कुमारपाल आनी दुसरो कुलोत्तुंग चोल हांणी ताचेर घुरी घाली. तांच्यावांगडा झूज सोंपचेपयलीं ताचो मांडलिक काकतीय प्रोल हाणें बंड केलें. तैलान तें बंड मोडपाचो यत्न केलो, पूण ताका तातूंत यश मेळ्ळें ना. हे घडणुके उपरांत ताचे मांडलिक ताच्यावांगडा लडाय करूंक लागले. तांतलो एक कलचुरी बिज्जल हाणें कल्याण राजधानी हातासली आनी चालुक्य साम्राज्य काबार केलें. फुडें तिसऱ्या तैलाचो पूत चवथो सोमेश्वर हाणें बिज्जलाच्या वंशाकडल्यान कांय वाठार जिखून घेतले; पूण आपलें राज्य ताका चड काळ चलोवप जमलेंना. ११८९ च्या पयलीं यादव राजा सिंघण हाणें ताचें राज्य सोंपयलें. सोमेश्वर ताच्या गोंयच्या मांडलिकाच्या आलाशिऱ्याक गेलो, पूण ११९८ उपरांतची ताची कांयच म्हायती मेळना.

चालुक्यांनी कितलेशेच देश जिखून घेतले आनी तांचेर आपल्या सोयऱ्यांची वा मांडलिकांची नेमणूक केली; पूण एकेच पध्दतीची राज्यवेवस्था सगळेकडेन सुरू केलीना. पोरन्या लेखांनी चडसो सामन्तविषयपती (जिल्हो अधिकारी), ग्रामभोगिक (गांवचो पाटील), ह्या अधिकाऱ्यांचो उल्लेख आसा. तेभायर शासनवेवस्था चलोवपाखातीर हेर विंगड विंगड थरांवयले अधिकारी आसताले.

चालुक्यांच्या राज्यांत विद्येक आनी कलेक मान आशिल्लो. तांच्या राजदरबारांत बरेच विद्वान आनी बुदवंत लोक आशिल्ले. संस्कृत आनी कन्नड भाशेंत बरेच मोलाचे ग्रंथ चालुक्यांच्या काळांत बरयल्ले. बायलांची समाजांतली सुवात उंचल्या पावंड्यार आशिल्ली. दादल्यांवांगडा बायलोय राज्यकारभारांत लक्ष घालताल्यो. संगीत आनी नाचाचीय बरीच उदरगत जाल्ली. चालुक्याच्या राज्यांत वैदिक धर्मावांगडा जैन आनी बौध्द धर्माचेय लोक आशिल्ले. चालुक्य राजांनी बांदिल्लीं देवळां तातूंतले शिल्पकलेक आनी सोबीतकायेक लागून नामनेक पावलीं. शिल्पकलेच्या मळार चालुक्य राजवंशान म्हत्वाचो वावर केल्लो. त्या काळावयली शिल्पशैली चालुक्य शैली ह्या नांवान वळखतात. हातूंत इंडो-आर्यन आनी द्रविड ह्या दोन शिल्पकलांची भरसण पळोवंक मेळटा. लक्कुडी हांगाचें काशीविश्वेश्वर मंदिर, हावेरी हांगाचें सिध्देश्वर देवूळ, बकापुरचें ६० खांब्याचें देवूळ, गदग, कुरुवट्टी हांगाचीं देवळां चालुक्य शैलीच्या बांदावळीचीं आसात. हेर बऱ्याच थळांचेरुय चालुक्य काळांतलीं देवळां आनी हेर शिल्पकला पळोवंक मेळटात.

इ.स. ६१० त पुलकेशीन गोंयांचेर राज्य केल्याचो उल्लेख पोरने बरपावळींत मेळ्ळा. इ.स. ५७८ ते इ.स. ७५० मेरेनच्या काळांत बरयल्ले सुमार सात तांब्यापटे गोंयांत सांपडल्यात. तांच्यावेल्यान चालुक्यांची गोंयाचेर सत्ता चलताली हें समजता. गोंयच्या लागचे रत्नागिरी, कुडाळ ह्या सारक्या वाठारांनी चालुक्यांनी कोरांतिल्ली बरपावळ सांपडल्या. चालुक्य काळांतले बरपावळींत गोंयच्या बऱ्याच वाठारांचो उल्लेख आसा.

बादामीच्या चालुक्य वंशाचे भारताभायल्या हेर राजांवांगडा राजकी संबंद आशिल्ले. पुलकेशी (दुसरो) हाच्या दरबारांत खुस्त्रव ह्या इराणच्या राजान खासा राजदूत धाडिल्लो. नामनेचो चिनी बौध्द भोंवडेकार युआन च्वांग पुलकेशीच्या साम्राज्यांत आयिल्लो. ताणें पुलकेशीच्या व्हडपणाविशीं बरीच म्हायती बरोवन दवरल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**चावडी:** गांवांतल्या शासकीय कारभाराचें आनी ग्रामपंचायतीचें केंद्रस्थान म्हूण भारतीय ग्रामजिणेंत 'चावडी' हे संस्थेक परंपरागत म्हत्व आसा. 'चौहाट' ह्या संस्कृत शब्दाचो 'चावडी' संबंद लावं येता. गांवचो शासकीय मुखेल पाटील वा कोतवाल हांची कचेरी हे चावडेंत भरताली. देवूळ, धर्मशाळा हांचेवरींच ल्हान-मोट्या अशा सगळ्याच गांवांनी चावडी आसता. गांवगाड्याचे विशय आनी भौशीक वेव्हार हांची भौशीक रितीन भासाभास करपाखातीर, गांवांतले खाजगी वाद, झगडीं हांचो न्यायनिवाडो करपाखातीर लोक चावडेर जमताले. झगड्यांच्या कागाळींची नोंद चावडेर जाताली. कर वसुलीखातीर आयिल्लो कारकून, रामोशी, भोंवडेकार गांवांतले चावडेर मुक्काम करताले. चावडेर मनोरंजन करपाखातीर, गजाली करपाखातीर तशेंच भजन-कीर्तनाखातीर गांवचे लोक जमताले. हालींच्या काळांत समाजमंदीर, बस-स्थानक हीं रासवळ केंद्रां अस्तित्वांत आयिल्ल्यान चावडेचें म्हत्व उणें जालां. ग्रामपंचायतीभशेनूच व्यक्तीचेर नियंत्रण दवरपी संस्था म्हूण जातपंचायतीक पयलीं म्हत्व आशिल्लें. दरेक जातीची अशी वेगळी 'जातचावडी' ते ते जातीचे वस्तींत दिसून येताली. जातपंचायतीचे अधिकार आर्विल्ल्या काळांत नश्ट जाले, तरीकूय जातीचे हितसंबंद राखून दवरपाचे गरजेप्रमाण आनी जातीय भावनेक अनुसरुन आजूय कांय गांवांनी जातपंचायत आनी जातचावडी अस्तित्त्वांत आसा. हालींच्या काळांत भौशीक चावडेक 'पंचायत कचेरी' हें नांव पडलां. गोंयच्या 'काणकोण' म्हालांतल्या एका वाठारांत एका तेंपार चावडी आशिल्ली. देखून त्या वाड्याक 'चावडी' अशें नांव पडलां.

- कों. वि. सं. मं.

**चिंच:** (मराठी- चिंच; हिंदी-अमली, इमली; गुजराती-आमली; कन्नड-अमला, अमलिके, हुणिसे; संस्कृत-तिंतिण, अम्लिका, तिंतिडिका; इंग्लीश- टॅमॅरिंड; लॅटीन- टॅमॅरिंडस इंडिका; कूळ- लेग्युमिनोसी (Leguminacea)

जायतीं वर्सांमेरेन जगपी हो रुख २४ मी. मेरेन ऊंच वाडटा आनी घेरान ७ मी. मेरेन वाडटा. ह्या रुखाचीं पानां 'पेरिपिनेट' (Peripinnate) पध्दतीचीं आनी सादारण १५ सेंमी. लांब आसतात. ताच्या व्हडल्या पानांक, बारकेल्या पानांच्यो १०-१२ जोडयो आसतात. ह्या भितरल्या बारकेल्या पानांची लांबाय सादारण ८-३० मिमी. आसता, तर रुंदाय ५-१० मिमी. इतली आसता. चिंचेच्या रुखाक धाकटुलीं अशीं हळडुवीं फुलां येतात. चिंचेचें फळ ७.५ ते २० सेंमी. लांब आसता आनी ताची रुंदाय २.५ सेंमी. इतली आसता. चिंचेच्या फळाक, तीं बोटांसारकीं लांब आशिल्ल्यान चिंचेबोटां अशें म्हण्टात. फळाचो रंग पुडीकोराचो आसता आनी दर फळांत ३-१२ बियो आसतात. चिंचेच्या बियांक चिंचारे अशें म्हण्टात.

ह्या रुखाचो उगम दक्षिण आफ्रिका ह्या देशांत जालो. चिंचेचो उगम दक्षिण भारतांत जालो, अशेंय कांय जाणकारांचें मत आसा. भारतांत सगळेकडेन जळींमळीं ह्या झाडाची लागवड केल्ली दिसता. गोंयांत शास्त्रोक्त पध्दतीन ह्या झाडाची लागवड केल्ली दिसना. तरी पूण पोरसांनी, शेतांतल्या बांदांचेर, काजूच्या बागांनी चिंचेचीं झाडां लायिल्लीं दिसतात. वेस्ट इंडीज देशांत चिंचेची मोट्या प्रमाणांत आनी शास्त्रोक्त पध्दतीन लागवड करतात.

**प्रकार/जाती:** चिंचेचे दोन प्रकार आसात. पयलो प्रकार म्हळ्यार चॉकलेटी रंगाची चिंच. गोंयांत चडसो हे चिंचेचो वापर सुकोवन आमटाण म्हूण करतात. दुसऱ्या प्रकारची चिंच म्हळ्यार तांबडी चिंच.

ह्या प्रकारची चिंच कमी आंबट आशिल्ल्यान तन्नी आसतनाच खांवपाखातीर वापरतात. चड उत्पन्न दिवपी चिंचेच्यो खास अश्यो जाती नात. सद्याक चडसो थळाव्या जातींचोच वापर करतात.

**लागवड:** चिंचेचे लागवडीखातीर खास अशे जमनीची गरज आसना. खडकाळ जमनींत लेगीत चिंच बेस बरी जाता. तरी पूण गाळाची (Alluvium) जमनी चिंचेक चड मानवता. ह्या रुखाक उश्ण हवामान चड मानवता. चिंचेची लागवड बियांपसून म्हळ्यार चिंचारे लावन करतात. तशेंच भेट कलम वा गुटी कलम लावनूय करतात. रोंप तयार करपाखातीर गादी वाफ्याचेर चिंचारे किल्लत घालतात. चिंचारे किल्लून येवपाक सादारण १०-१२ दीस लागतात. एप्रिल म्हयन्यांत चिंचारे किल्लत घालतात, म्हळ्यार जूनाचो पयलो पावस पडपावेळार रोंपयो लावपाक मेळटात.



चिंचेचे लागवडीखातीर १×१×१ मी. लांब, रुंद आनी खोल अशें फोणकुल खणटात. ह्या फोणकुलांत एक किग्रॅ. मसुरी फॉस्फेट, १ किग्रॅ. स्टेरामील तशेंच एक खोंटलो कंपोस्ट वा शेणखत घालतात. फोणकुलाच्या मदीं रोंप वा कलम लायतात आनी मागीर एक बडी लावन रोपाक वा कलमाक आदार दितात. मोट्या प्रमाणांत लागवड करपाची आसत जाल्यार चिंचेचीं रोपां वा कलमां ८×८ मी. इतल्या अंतराचेर लायतात. सुरवातीच्या काळांत रोंप मंदगतीन वाडटा, उपरांत २-३ वर्सांनी नेटान वाडपाक लागता. चिंचेच्या रुखाक रसायनीक सारीं दिवपाची गरज आसना. दर वर्सा २-३ पांटले शेणखत पावसापयलीं दितात.

**उत्पन्न/पीक:** चिंचेचो रुख १३-१४ वर्सांनी फळां दिवपाक लागता. लागवडीची बरी जतनाय घेत जाल्यार चिंच ७-८ वर्सांनी फळां दिवपाक लागता. एका रुखापसून सुमार १५० ते २०० किग्रॅ. चिंचो मेळटात. चिंचो पिकल्यो म्हण्टकच, भायलें कवच भितर आशिल्ल्या मगजापसून (आमटाणीपसून) वेगळें जाता. अशा वेळार झाड हालयत जाल्यार चिंचो सकयल पडटात. झाडाचीं पिकिल्लीं चिंचेबोटां काडून तीं कल्लायतात आनी भितरली आमटाण वोतांत सुकयतात. उपरांत तातूंतले चिंचारे वेगळे काडून आमटाणीचे गुळे करून दवरतात. पुरुमेंताखातीर सांठोवन दवरपाची आमटाण बरोच तेंप वोतांत सुकोवची पडटा.

**उपेग:** चिंचेपसून जी आमटाण मेळटा ती जेवणा-खाणाच्या जिनसांत रुच येवपाखातीर वापरतात. हुमण, चटणी, भाजी ह्या पदार्थांनी आमटाणीचो वापर करतात. आमटाणीचो तशेंच चिंचेच्या पानांचो आनी सालीचो उपेग बऱ्याचशा वखदांनी करतात. उबाळांच्या दिसांनी पोटांत शितळसाण उरची आनी गर्मेचो त्रास जावंचो न्हय म्हूण आमटाणीचें सरबत करून घेतात. चिंचाऱ्याची खळ कांय कारखान्यांनी वापरतात. गिरणींतल्या कापडाक लावपाक आनी कांबळीक ताठरपण हाडपाक हे खळीचो उपेग करतात. चिंचाऱ्यापसून जें तेल मेळटा, तें कांय प्रकारचे रंग तयार करपाखातीर वापरतात. चिंचेच्या पानांचो भाजी म्हूण वापर करतात; तशेंच ह्या पानांचो उपेग 'सावळ' म्हूणय करतात. सोरो, भांग हांचेसारक्या मादक पेयांपसून चडिल्ली नशा, आमटाणीचें सरबत घेतल्यार थोड्या प्रमाणांत देंवता. चिंचेच्या रुखाचे सालींत जे टॅनीन आसता, ताचो उपेग जनावरांची कात कमोवपाखातीर करतात. चिंचेचें लांकूड जड आनी टिकाऊ आसता, ताका लागून हें लांकूड फर्नीचर तयार करपाखातीर वापरतात. चिंचेच्यो बियो म्हळ्यार चिंचारे भाजून वा मिठाच्या उदकांत फुगोवन खातात.

चिंचेच्या रुखाक किडीचो वा रोगाचो व्हडलोसो त्रास जायना. हो रुख खूब वर्सां जियेता. १५० ते २५० वर्सां पिरायेचीं चिंचेचीं झाडां आयजूय पळोवंक मेळटात.

- विश्राम गांवकार

## चिंतामणी-१ : एक रत्न वा मणी.

शब्दकल्पद्रुमांत चिंतामणीची व्याख्या अशी केल्या:

'चिन्तया ध्यानधारणादिना मण्यते आहुयते इति'

अर्थ- चिंतेन म्हळ्यार ध्यानधारणादी गजालींनी जाचें आवाहन करतात असलो मणी.

जे गजालीचें चिंतन करप जाता, ती दिवपी रत्न, असोय एक समज ह्या रत्नमण्याविशीं चलता. कांय बौध्द देवतांचें हें अभिज्ञान चिन्ह आसा. गूढमार्गांत चिंतामणीक भोवमानाचें प्रतीक मानलां.

- कों. वि. सं. मं.

## चिंतामणी- २ : (जल्म: १६०९ इ. स. कानपूर; मरण: ?).

एक नामनेचो हिंदी कवी. शाहजहान, रुद्रसिंह आनी नागपूरकर भोसले हांच्या दरबारांत ताणें 'राजकवी'च्या पदार काम केल्लें.

काव्यविवेक, कविकुलकल्पतरू, काव्यप्रकाश, रामायण, छंदविचार-पिंगल, रसमंजरी हे चिंतामणीचे नामनेचे ग्रंथ आसात. शृंगारमंजरी हो ग्रंथ मूळ त्याच नांवाच्या संस्कृत ग्रंथाचो अणकार जावन आसा.

चिंतामणीन रामायण सोडून हेर सगळ्या काव्यशास्त्रीय विशयांचेर बरप केलां. ताणें मम्मट, विश्वनाथाची परंपरा मुखार चलयली. तो एक कवी आसलो तरी आचार्य म्हूण तो चड नामनेक पावलो.

- कों. वि. सं. मं.

## चिंतामणी- ३ : अष्टविनायकांमदलो एक विनायक म्हळ्यार गणपती.

महाराष्ट्राच्या पुणे जिल्ह्यांत हवेली तालुक्यांत थेऊर गांवांत चिंतामणीचें देवूळ आसा. चिंतामणीक भजपी साधकांक शांती आनी थीर बुध्दीचें वरदान मेळटा, अशी म्हणणी आसा.

चिंचवडच्या मोरया गोसाव्याक, थेऊराक ह्याच जाग्यार गणेशान वाघाच्या रुपान दर्शन दिल्लें आनी सिध्दी मेळयल्ली.

माधवराव आनी रमाबाई पेशवा हांच्या काळार चिंतामणीक व्हड म्हत्व मेळळें. माधवराव पेशव्यान आपलो निमाणो स्वास चिंतामणी मुखारच सोडलो. रमाबाई हांगाच माधवरावावांगडा सती गेल्ली. आयज थंय सतीचें वृंदावन आसा.

चिंचवडचो संतपुरुस चिंतामणी देव हाणें हें देवूळ बांदलें. उपरांत

१०० वर्सांनी माधवराव पेशवा हाणें ह्या देवळाक सभामंडप बांदलो. हरिपंत फडके आनी हेर भक्तांनी ह्या देवळाक आपले तांकीप्रमाण आदार दिवन चिंतामणीचें देवूळ सोबीत- सुंदर आनी व्हड केलें.

ह्या देवळाचें मुखेल दार उत्तरेकडेन तोंड करून आसा. मुखेलदाराकडल्यान न्हंयमेरेन वांपाचो रस्तो पेशव्यांनी बांदला. हालींच श्रीमंत माधवराव पेशव्याचें तैलचित्र देवळाच्या प्राकारांत बसयलां.

हो गणपती दावे सोंडयेचो आसा. मुर्तीचें तोंड उदेंतेकडेन आसा.

भाद्रपद शु. चवथीक चिंतामणी गणपतीची हांगा व्हड परब मनयतात.

चिंतामणी गणपतीविशीं खाशेली खबर म्हळ्यार ह्या गणपतीक हो गांव तस्त्रीप म्हूण मेळिल्लो. ह्या गांवची सनद औरंगजेबान दिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**चिकणमाती:** बारीक कणांच्या सैमीक आनी थारावीक प्रमाणांत उदक घाल्यार घडणसुलभ जाता, अशा तरेच्या पदार्थाक 'चिकणमाती' अशें म्हणटात. अमेरिकन सिरेमिक सोसायटीच्या व्याख्येप्रमाण चिकणमाती हो एक खूब बारीक कण आशिल्लो फातर आसून तो वांटून पिठो करतकच ओलो आसतना घडणसुलभ जाता; सुकतकच चामड्याभशेन घट्ट जाता आनी उज्यांत भाजल्यार फातरासारको घट्ट जाता.

चिकणमाती हो शब्द फातराकूय वापरतात आनी अवसादी शास्त्रांत कण आकार दाखोवपाकूय वापरतात. फातराचे कण जर चार मायक्रॉनपरस कमी आकाराचे आसत जाल्यार तांकां चिकणमाती आकाराचे कण अशें म्हण्टात.

चिकणमाती सूक्ष्म स्फटिक कणांची आसता. हे कण चडशे करून ॲल्युमिनियम सिलिकेटचे आसतात. पूण तातूंत लोह, मॅग्नेशियम, अल्क माती हांचे कॅटायन ॲल्युमिनियमची सुवात स्फटिकांचे घडणेखातीर घेतात. चिकणमाती खनिजां फायलोसिलिकेट ह्या गटांत मोडटात. तांकां 'थरांचें सिलिकेट' (Sheet Silicate) अशेंय म्हण्टात. कारण दरेका थराचो विस्तार तिसऱ्याच्याकूय दोन परिमाणांक चड आसता. दरेक थर दोन प्रकारच्या एककांचो (units) आसता. टेट्राहेड्रल एकक आनी ऑक्टाहेड्रल एकक. चिकणमातयेक चड करून तीन तरेचे थर आसतात. तांचीं नांवां अशीं: सिलिकॉन थर, जिवसाइट थर आनी ब्रूसाइट थर. सिलिकॉन थर हो Si-O टेट्राहेड्रांचो जावन आसा. हीं टेट्राहेड्रां शटकोनी प्रकारान एकामेकांक जोडिल्लीं आसतात. जिवसाइट थर हो Al-O हाच्या ऑक्टाहेड्राचो जावन आसा. ह्या थरांतल्या दरेक तीन जाग्यांतल्या दोन जाग्यांत Al आयन (ion) वचून बसता. अशे तरेचे संरचनेक (structure) ट्रायऑक्टाहेड्रल संरचना अशें म्हण्टात. तिसऱ्या थराचें म्हळ्यार ब्रुसाईट थराची संरचना जिवसाईट थरा सारकीच आसता, पूण हातूंत Al आयनचो जागो Mg आयन घेता. हाका डायऑक्टाहेड्रल संरचना अशें म्हण्टात.

चिकणमातयेचे संरचनेविशींची कांय सोंपी उदाहरणां अशीं: १. चिकणमाती खनिज कॅओलिनाइट हो एक जिवसाइट थर आनी सिलिकोन थर हांच्यापसून जाल्लो आसता. हाका तेखातीर १:१ तरेची संरचना अशें म्हण्टात.




२. चिकणमाती खनिज मॉन्टमोरीलोनाइट हातूंत १ जिवसाइट थर, २ सिलिकॉन थरांमदीं सँडविचसारको बशिल्लो आसता.




चिकणमातयेच्या खनिजांचो प्रकार मूळ पदार्थाचें संघटन आनी भौतिक-रसायनीक वातावरण हांचेर आदारून आसता. उद्येगीक मळार चिकणमातयेचे सादारण चार प्रकार थारायल्यात: १. चायना चिकणमाती वा कॅओलीन २. बॉल चिकणमाती ३. उज्याची चिकणमाती (fire clay) आनी ४. बांदकामाची वीट- चिकणमाती. हालींच्या काळांत चिकणमातयेचे उद्येगीक मळार खुबशा स्वरुपांत उपेग जातात. देखीक- सिरॅमिक्स, बांदकाम, कॅटॅलिस्ट, वेधन पंक (chilling mud), कागद आनी रबर उद्येगांक भरण म्हूण, डिकलराइझर, फाउंड्री, रिफ्रॅक्टरी, शेतकाम.

- डॉ. अशोक देसाय

**चिकारा:** चिकारा हें एका तंतूवाद्याचें नांव. हें सारंगीसारकें आसता. पूण ह्या वाद्याचो आकार सारंगीपरस ल्हान आसता.

एके चामडें दसयल्ले पेटयेक लांकडाचो लांब पोकळ दांडो जोडटात. ताका तांतीच्यो तीन तारो आनी धातूच्यो पांच तारो लायतात.

तांतीच्यो तारो षड्ज, मध्यम आनी पंचम ह्या स्वरांत तर धातूच्यो षड्ज, ऋषभ, पंचम, धैवत आनी निषाद ह्या स्वरांत लायतात.

गजाच्या आदारान हें वाद्य वाजयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**चिकू:** (मराठी- चिकू; हिंदी- चीकू, सापोटा; कन्नड- चिकू हण्णु; इंग्लीश- सॅपोडिला प्लम, लॅटीन- ॲक्रस सॅपोटा; कूळ- सॅपोटेसी).

गोड अशीं फळां दिवपी झाड. हें झाड ८-१० मी. मेरेन ऊंच वाडटा. चिकूचीं फळां फिकट तपकिरी रंगाचीं आनी वाटकुळ्या आकाराचीं, ५-६ सेंमी. व्यासाचीं आसतात. कांय जातीचीं फळां लांबट आसतात. फळांतल्यो बियो काळ्यो चकचकीत आनी मात्श्यो चेपट्यो आसतात. एका फळांत चार पांच बियो आसतात. फळ गोड आनी पुश्टीक आसता तर तन्नें फळ निबर आसता आनी खरखडल्यार तातूंतल्यान दीक येता.

ह्या फळझाडाचो उगम मेक्सिको देशांत जालो. अस्तंत, दक्षिण आनी मध्य भारतांत चिकूची लागवड मोट्या प्रमाणांत केल्ली दिसता. गोंयांत ह्या पिकाची खास आनी मोट्या प्रमाणांत लागवड केल्ली दिसना. पूण गोंयच्या पोरसांनी आनी भाटांनी ह्या झाडाक सुवात दिल्ली दिसता.

चिकूच्यो सादारण १२-१३ जाती देशाच्या विंगड विंगड वाठारांत सांपडटात. तातूंतल्यो कांय वेंचीक जाती अश्यो: १. काळी पत्ती २. हळडुवी पत्ती ३. कलकत्ता व्हडली वा क्रिकेट बॉल ४. सत्री ५. द्वारापुडी ६. किर्तवर्ती.

**लागवड:** गुटी कलमां, भेट कलमां तशेंच मृदुकाष्ट कलमां लावन चिकूची लागवड करतात. चिकूचीं कलमां 'खरिनी' ह्या झाडाचें मूळकांड (root stock) वापरून करतात. लागवड करपाखातीर १०×१० मी. अंतराचेर १×१×१ मी. लांब रुंद आनी खोल आकाराचीं फोणकुलां मारतात. हीं फोणकुलां मागीर एक पांटलो शेणखत जावं कंपोस्ट, एक किग्रॅ. स्टेरामील, एक किग्रॅ. मसुरी फॉस्फेट आनी माती घालून भरून काडटात. उपरांत चिकूचें कलम त्या फोणकुलाचे मदीं लावन त्या कलमाक बडयेचो आदार दितात. कलमां खंयच्याय हंगामांत लावं येतात पूण चड करून पावसाचे सुरवातीक लायतात. गिमाच्या दिसांनी कलमाक ८-१० दिसांच्या अंतरान उदक दितात. चिकवाच्या झाडाभोंवतणी नडणी वेळोवेळ काडची पडटा. चिकूच्या एका वर्साच्या झाडाक १५० ग्रॅम नत्र, १०० ग्रॅम स्फुरद आनी १०० ग्रॅम पलाश दितात.

उपरांत हें प्रमाण दर वर्सा वाडयत वचून, १० वर्सांच्या आनी ताचेवयल्या झाडाक १५०० ग्रॅम नत्र, १००० ग्रॅम स्फुरद आनी १००० ग्रॅम पलाश इतलीं अन्नद्रव्यां दितात.



चिकू

**उत्पन्न, पीक:** चिकूची लागवड कलमापसून करीत जाल्यार, कलम लायल्याउपरांत, रेखडींच दुसऱ्या वर्सा फळां लागपाक सुरवात जाता. पूण सुरवातीचीं चार वर्सां फळां लागपाक दिवंक फावना. कारण सुरवातीच्या काळांत फळां लागलीं जाल्यार झाडाची वाड सारकी जायना. धा वर्सां पिरायेचें चिकूचें झाड २००० ते २,५०० फळां दिता. चिकूच्या झाडाक फुलां आयल्याउपरांत फळ तयार जावपाक ४-५ म्हयने लागतात. सादारणपणान वर्सांतल्यान दोन वेळा फळां लागतात. जानेवारी-फेब्रुवारी आनी मे-जून ह्या काळांत चडांत चड फळां लागतात.

**उपेग:** चिकूच्या फळापसून, सुको मेवो, दूदपेढे, चॉकलेट तशेंच हालवो तयार करतात. कांय देशांनी चिकूचें झाड सोबेचें झाड म्हूण लायतात.

**कीड आनी रोग:** चिकूच्या झाडाक रोग जावं कीड व्हडलीशी लागना. पूण सुरवातीच्या काळांत खोडकिड्याचो त्रास जाता. हे किडीची लागण जाल्यार खांदयो सुकता, केन्ना केन्नाय झाड मरपाची लेगीत शक्यताय आसता. हे किडीचेर उपाय म्हळ्यार पयलीं सुकिल्ली खांदी कापून उडयतात आनी मागीर एक टक्के बी. एच्. सी. ५०% हें मिश्रण करून खांदयांक तशेंच झाडाच्या खोडार सारयतात.

चिकूचें झाड खूब वर्सांमेरेन उरता आनी उत्पन्न दिता. सेलवासा हांगा पोर्तुगेजांनी लायिल्लीं ५०० वर्सां पयलींचीं झाडां अजून पळोवपाक मेळटात.

विश्राम गांवकार

## चिखलकालो: (पळेयात कालो):

## चिखलीकर, रामकृष्ण यमुना: (जल्म: २ फेब्रुवारी १९०८, चिखली-बार्देस).

गोंयचो सुटके झुजारी. आवयचें नांव यमुना चिखलीकर. ताचें मुळावें शिकप मराठी आनी पोर्तुगेजींतल्यान जालें. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. पत्रकां वांटप, वण्टीपत्रकां लावप, गुपीत बसकांनी वांटो घेवप, वांगडी जावपाचे अर्ज छापप असलीं कामां तो करतालो. २० डिसेंबर १९४७ दिसा पोलिसांनी ताच्या भावासयत ताका धरलो. ताचो छापखानो मोडून बंद उडयलो. प्रादेशीक लश्करी न्यायालयामुखार (Territorial Military Tribunal) चवकशे उपरांत ताका देड वर्स बंदखणीची ख्यास्त भोगची पडली. तेभायर पांच वर्सांखातीर ताचे नागरी हक्क काडून घेतले. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. १८ जून १९८३ दिसा गोंय सरकाराकडल्यान ताचो भोवमान जालो.

कों. वि. सं. मं.

## चितळ: (कूळ- मृगकुल (Cervidae); वर्ग- स्तनीवर्ग; गण- समखुरी; शास्त्रीय नांव: ॲक्सिस ॲक्सिस).

हिमालयाच्या मुळसालागसारच्या दाट रानांनी आनी जंय चरपाखातीर भरपूर तण आनी उपाट उदक आसा अशा भारतांतल्या चडशा रानांनी हें तिब्यातिब्यांचें जनावर दिसून येता. भारतांत आसाम राज्यांतल्या गोलपारा, कामरुप आनी दारंग जिल्ह्यांत चितळांचे जायते कळप दिसून येतात. मध्य प्रदेशांतूय कांय चितळां सांपडटात. गोंयांत कांय प्रमाणात चितळां सांपडटात. राजस्थानासारक्या खरखीत वाळवंटांत चितळां केन्नाच दिसून येनात. तीं कांय प्रमाणांत न्यूझीलंड, ऑस्ट्रेलिया, हवाई, ब्राझील आनी आर्जेंटिना ह्या राश्ट्रांनी सांपडटात.

सगळ्या हरणांमदीं चितळ हें सगळ्यांत सोबीत हरण जावन आसा. ताचो रंग तिकतिकीत तांबसो वा मातयेकोरांचो आसता आनी ताच्या आंगार कांय कडेन धवे तिबे आसतात. तातूंत नर चड गाड रंगाचो आसता. फाटीचे मदीं एक लांब काळो पट्टो आसता. दादल्या चितळाचीं शिंगां सोबीत दिसतात. ह्या शिंगांक तीन तोंकाळ खांदयो आसतात. पयली खांदी कपलाकडल्या आनी शिंगाच्या हेर भागाकडेन काटकोन करपी आसता. हेर दोन खांदयो वयर तेंगशेकडेन आसतात. चितळां आपलीं शिंगां दुसऱ्यावांगडा झगडपाखातीर तशेंच आपलें संरक्षण करपाखातीर वापरता. दादल्या चितळांचीं शिंगां गळून पडपाचो काळ वेगवेगळ्या वाठारांत वेगवेगळो आसता. मध्य प्रदेश आनी दक्षिण भारतांत तीं ऑगस्ट आनी सप्टेंबरच्या सुमाराक गळून ताच्या जाग्यार मागीर नवीं शिंगां येतात. शिंगां गळून पडपावेळार नर आपलो कळप सोडून रानांत वता आनी नवीं शिंगां येतकच कळपांत परत येता. जाण्ट्या चितळांपरस तरणाट्या चितळांचीं शिंगां बेगीन झडटात. कॅल्शियमच्या उणावाक लागून, दुयेंसाक लागून वा जाण्टे पिरायेक लागून शिंगांचो आकार कमी जाता.

चितळां १२ ते १५ वर्सां जियेतात. कांय चितळां २० वर्सांमेरेन जियेतात. दादल्या चितळाचें वजन सुमार ८५ किग्रॅ. आसता. चितळां सदांच धा ते तीस जाणांच्या कळपांतल्यान भोंवतात. तातूंत दोन ते तीन दादल्या चितळांचो आस्पाव आसता. खूब खेपो १०० वा ताचेरपसूय चड चितळांचे कळप दिसून येतात आनी तातूंत वेगवेगळे पिरायेचे नर, मादयो आनी पिलां आसतात. तीं केन्नाच गांवांत येनात. तरी पूण एकाद्र्या गांवांतल्या शेताच्या पिकांत रानदुकरांसारकिल्या हेर रानवट जनावरांवांगडा केन्नाय भितर सरतात. 'लंगुर' जातीच्या माकडांकडेन चितळांची खास इश्टागत आसता.

तण ही चितळांची मुखेल खावड. हाडां घटमूट जावपाखातीर, शिंगांची फाव ती वाड जावपाखातीर, आवयच्या पोटांतल्या पिलांचे वाडीखातीर तशेंच ल्हान पाडकाक दूद दिवपाखातीर चितळाक कॅल्शियमयुक्त खावडीची गरज आसता आनीं हाकालागून ताचे खावडीचो भर चडसो कॅल्शियम आशिल्ल्या तणाचेर आसता. झाडांवयल्यान गळून पडिल्लीं फुलां आनी फळां तांकां खूब आवडटात.

वसांच्या खंयच्याय तेंपार नर आनी मादी चितळ माजार येवं येता. मध्य प्रदेशांत प्रजोत्पादनाचो काळ मे म्हयन्यांत तेंगशेर पावता. पूण उत्तर भारतांत हो काळ शियांच्या दिसांनी आसता अशें म्हण्टात. ह्या दिसांनी मादयांवयल्यान नरांभितर एकसारक्यो धीरयो जायत आसतात. तांचे गर्भधारणेचो काळ सात ते साडेसात म्हयने आसता. चड करून मादयेक एका वेळा एकूच पील जाता आनी तें व्हड जावन कळपावंगडा भोंवपाक लागमेरेन मादी ताची खूब जतनाय घेता.

हेर जातीच्या हरणांकडेन तुळा केली जाल्यार चितळ हें जनावर चतुर

आनी चपळ आसता. चितळाच्या दोळ्यांपोंदा, धोंपरात आनी पांयांकडेन वासांच्यो ग्रंथी आसतात. ह्या वासाचो उपेग तीं एकामेकांक सोदून काडपाखातीर करतात. चितळ हें वाग, मानगें आनी हेर रानटी मांसाहारी जनावरां हांचें भक्ष्य जावन आसा. कात, मांस आनी शिंगां हांचेखातीर मनीस चितळाची शिकार करता. ताच्या झडिल्ल्या शिंगांची बारीक पूड करून पुळयो आनी हेर कातीच्या विकारांचेर वखद म्हूण वापरतात.

- डॉ. एच्. के. मालवीय

**चित्ताल, यशवंत:** (जल्म: ३ ऑगस्ट १९२८, हनेहळ्ळी-कर्नाटक).

कन्नड साहित्यांतलो एक नामनेचो कथाकार आनी कादंबरीकार. ताचें ल्हानपण गोकर्ण गांवाचे कुशीक आशिल्ल्या हनेहळ्ळी खेड्यांत गेलें. ताचे आवयचें नांव रुक्मिणी, बापायचें नांव विठोबा. ताचें शिकप हनेहळ्ळी, कुमठा, धारवाड, मुंबय आनी अमेरिकेंत जालें. १९५१ त, ताका प्लास्टिक तंत्रविज्ञान विशयांत मुंबय विद्यापीठाचें भांगरा पदक फाव जालें. उपरांत अमेरिकेच्या स्टीव्हन्स इंस्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजी संस्थेंत अभ्यास करून, ताणें १९७२ त रसायनीक तंत्रविज्ञान विशयांत एम्. एस्सी. पदवी मेळयली.

सुर्वेक ताणें मुंबयच्या बेकलाइट आनी हैलं कंपनींत ल्हानशी नोकरी धरली. थंय आपली प्रामाणिकता, कामाची शिस्त, सतत अभ्यास-संशोधन ह्या गुणांक लागून एक-एक पांवडो वयर चडत तो संस्थेचो विपणन संचालक (मार्केटिंग डायरेक्टर) जालो आनी १९८८ त निवृत्त जालो. मुंबयची 'इंडियन प्लास्टिक' तशेंच अमेरिकेची 'रिसर्च ॲण्ड डेव्हलपमेंट' ह्या संस्थांच्या पालवान ताणें युरोप, अमेरिका, जपान आनी अस्तंत आशिया देशांची भोंवडी केली. प्लास्टिक कारखान्याविशीं ताणें बरयल्ले जायते इंग्लीश लेख संवसारांतल्या जाणकारांक मानवल्यात. इंडियन इंस्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजी आनी प्लास्टिक रबर संस्थेंत ताणें अध्यापनाचें काम केलां.

ताचो व्हडलो भाव गंगाधर चित्ताल हो एक नामनेचो कवी आशिल्लो. यशवंत चित्ताल हाची पयली काणी १९४९ त उजवाडाक आयली. ताच्या काणयांनी वाचप्यांचीं मनां जिखून घेतलीं. ताणें बरयल्ले 'संदर्शन' (१९५७), 'आबोलीन' (१९६०), 'आट' (१९६९), 'आय्द कयेगळु' (१९७६) हे काणयांझेले विमर्शकांचे तोखणायेक पात्र थारले.

'मुरु दारिगळु' आनी 'शिकारी' ह्या नांवाच्यो ताच्यो दोनूय कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात. सद्या 'पुरुषोत्तम' नांवाची ताची व्हडली कादंबरी छापपाचें काम चालू आसा. 'शिकारी' हे ताचे कादंबरीक १९७९ वर्साचो कर्नाटक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार तशेंच १९८८ वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फाव जाला. ताच्या विचारांचेर एम्. एन्. रॉय, मार्क्स, फ्रॉइड, जीन्स, एडिंग्टन, हेक्केल हांच्या विचारांचो प्रभाव पडिल्लो दिसून येता. ताच्या साहित्यांत जीण मरणाचो संबंद सोदून काडपाचे यत्न, दर्यादेगेवयलें जिवीत तशेंच खेडेगांवांतलें चित्रण आनी थंयचीं पात्रां दिसून येतात. मरणाउपरांत उप्राशिल्ले प्रस्न आनी संबंद सोदून काडपाचे यत्न तो पावलाकणकणी करीत आयला. ताच्या काणयांनी आनी कादंबऱ्यांनी मदीं मदीं कोंकणी उतरां तशेंच कोंकणी मनशाचें जिवीत दिसून येता.

- एस्. एम्. कृष्ण राव

**चित्पावन:** 'चित्पावन' हें द्राविड ब्राह्मणवर्गांतले एके पोटजातीचें नांव जावन आसा. हांकां कोकणस्थ, चित्पोळ, चिपळोणे अश्या हेर नांवांनीय वळखतात. 'चित्पावन' लोकांचें मूळ गांव चिपळून (रत्नागिरी) आसा. हे समजूतीन तांकां 'चिपळोणे' हें नांव येवन दसलां. पूण सद्या हें नांव वापरांत ना.

'चित्पावन' ह्या उतराचे उत्पत्तीसंबंदान विंगड विंगड मतां अशीं आसात:

कांय पंडीत 'चित्पावन' हें उतर 'चितिपावन' ह्या उतराचें अपभ्रंशित रुपं मानतात. चिती म्हळ्यार यज्ञ आनी हो यज्ञ करून पावन जाल्ले लोक 'चित्पावन' जाले, अशें मानतात.

चितास्थानार जे पावन जाले ते चित्पावन आसले अशें आनीक एक मत आसा.

क्षितिपावन ह्या उतरावेल्यान चित्पावन शब्द घडलो अशें गो. कृ. मोडक म्हण्टा. क्षिती म्हळ्यार जमीन, ती खणून निवळ करपी वा पावन करपी लोक ते 'चित्पावन' अशें ताचें मत आसा. दर्या आनी खाडीचे देगेर बांद घालून, त्या उदकावयलीं पिकाळ शेता-जमनी तयार करपी हो लोक आसलो. अशे वयल्या मतावेल्यान स्पश्ट जाता. परशुरामाच्या चित्पावना संबंदीचें कथेंतलें तात्पर्य वयल्या मतांत आस्पावलां.

ईजिप्त ह्या शब्दासावन जिप्तवान, चिप्तवान आनी उपरांत वर्णव्यत्यास जावन चित्पावन शब्द आयलो अशें मंडलिक हाणें म्हळां.

चित्तपावन ह्या नांवाचें एक क्षेत्र आशिल्ल्याचो उल्लेख हरिहरेश्वर माहात्म्यांत आयला. त्यावेल्यान त्या क्षेत्रार वसती करून रावपी ब्राह्मण चित्पावन आसतले अशें राजवाडे म्हण्टा. वयलें मत हेर मतां परस चड लागींचें दिसता पूण वयल्या नांवाचो गांव खंयच मेळना.

चित्पावन जातीचे उत्पत्ती संबंदीची जी सगळ्यांत पोरनी दंतकथा आसा, तिचो संबंद परशुरामाकडेन पावता. सह्याद्रीखंडांत ही कथा मेळटा, ती अशी:

क्षत्रियवंशीयाचो संहार केल्ल्या परशुरामान मनीस-हत्येच्या पातकांतल्यान मुक्त जावपाखातीर जेन्ना यज्ञ करपाचो थारायलो तेन्ना ब्राह्मणांनी ताचें पुरोयतपण करपाक न्हयकार दिलो. त्याचवेळार सह्य पर्वताच्या मुळसांत अस्तंतेकडल्या दर्यांतल्यान व्हावन आयिल्लीं १४ प्रेतां तांकां मेळळीं. परशुरामान त्या प्रेतांक चितेच्या उज्यांत शुध्द करून, जिवीं केलीं आनी ब्राह्मणांची विद्या शिकयली. ह्या ब्राह्मणांच्या आदारान परशुरामान पातकांतल्यान मुक्त जावपाचो विधी केलो आनी निमाणें ह्या ब्राह्मणांक अस्तंत दर्याकडल्यान कांय भूंय मेळोवन दिवन, तांचे वसतीक 'चित्पोलन' हें नांव दिलें.

उदकाचे येरादारीवरवीं चित्पावन ब्राह्मण चिपळूणाक आयले आसुंये अशें चडशा विद्वानांचें मत आसा. ना. गो. चापेकार हाच्या मतान चित्पावन ब्राह्मणांचें मूळ स्थान 'गुहागर' आसलें तरीकय कोंकण वाठारांत तांणी आपली सगळ्यांत पयली वसती केल्ली हातूंत कोणाकूच दुबाव ना.

चित्पावन लोक कोंकणांत खंयच्यान, केन्ना, कशे आयले हेसंबंदीची निश्चित म्हायती मेळना.

परशुरामाचे वयर आयिल्ले स्कंद पुराणांतले कथेवेल्यान कांय विद्वान अनुमान काडटात तें अशें: मरणासन्न अवस्थेंत जे चवदा लोक परशुरामाक दर्यादेगेर मेळिल्ले, तांकां अन्न उदक घालून ताणें वाचयले आनी हांगा वसती करून रावपाक पालव दिलो. हे लोक इराणांतल्यान आयले आसूंये.

दक्षिण आफ्रिकेच्या उदेंत किनाऱ्यावेल्यान चित्पावन कोंकणांत आयले आसूंये अशें मंडलिक म्हण्टा.

ऋग्वेद काळार सावन आते-मामे भावंडां मजगतीं लग्नसंबंद घडोवन हाडपाची चाल जी ऋग्वेदी, देशस्थ, कऱ्हाडे, कर्नाटक, सारस्वत ब्राह्मणांमदीं दिश्टी पडटा, ती चित्पावनांत दिश्टी पडना. त्यावेल्यान ते वैदिक आर्यांचे वंशज नासून, वैदिक धर्माची दीक्षा तांकां परशुरामान दिल्ली अशें मानल्यार लेगीत, चित्पावनाचो कोंकणांत येवपाचो काळ इ. स. प. २५०० वर्सां फाटीं वता, अशें श्री. लक्ष्मणशास्त्री जोशी म्हण्टा.

पं. महादेवशास्त्री जोशीच्या मतान इराणांत वेदरचणुकेक आरंभ जावन थंयच ऋग्वेदाची निर्मिती जाली. फुडें वैदिक आर्यांचो पंगड भारतांत गेलो पूण जो एक पंगड थंयच रावलो, तो कांय कारणांक लागून बऱ्याच वर्सां उपरांत दर्यामार्गान कोंकणांत आयलो. हाका लागून भारतांत येवंचे आदीं तांचो वेदाकडेन संबंद आयलो. आते-मामे

भावंडांभितर लग्नां करपाची चाल आर्य भारतांत येतकच सुरू जाली. इराणांत आर्य आसतना ही चाल नासली म्हणून चित्पावनांत ती चाल ना.

सह्याद्री खंडांत एका श्लोकांत अस्तंत किनाऱ्यावेल्या देशांत बर्बर देशाचो आस्पाव केला. बर्बर लोक ऊंच आनी गोरे आसून तांचें नाक सरळ आनी दोळे घारशे आशिल्ल्याचें सांगलां. कोंकणस्थ ब्राह्मण आनी बर्बर हांचे भितल्लें साम्य पळयल्यार दोगूय नॉर्डिक वंशाचे आशिल्ल्याचें मानपाक येता.

चित्पावन ब्राम्हण परशुरामाक आपलें कुलदैवत मानल्यार लेगीत तांची वसती परशुरामान स्थापन केली अशें म्हणपाक जावचेना, कारण परशुराम हो सात हजार वर्सांपयलीं जावन गेल्लो आसून ताचो संबंद कोंकणापरस गुजरातकडेन चड आसा अशें कांय विद्वान मानतात. महाभारतांत शूर्पारक भुंयेक परशुरामाचो वाठार मानला. थंयच्यान आर्य लोक कोंकणांत गेले आसूंये आनी तेन्ना तांणी परशुरामाचो हो वाठार कोंकणांत वसयलो आसूंये, अशीय शक्यताय आसा.

चित्पावन मेसापोटेमियांतल्यान आयल्यात अशें एक मत आसून अ. रा. धुमे हाणें चित्पावनांक सुमेरियन आशिल्ल्याचें म्हळां.

१७ व्या शेंकड्यांत भट नांवाचें घराणें कोंकणांतल्यान घाटार आयलें. त्या कुळांतलो बाळाजी विश्वनाथ हो फुडें शाहू महाराजाचो पंतप्रधान जालो. उपरांत सुमार शंबर वर्सां ताच्या भुरग्या बाळांनी पेशवाईंत मोलाचो वावर केलो. ह्या वेळार चित्पावनाक कोकणस्थ हें नांव दसलें आनी भौसाभितर ताका 'श्रेष्ठत्व' प्राप्त जालें. पटवर्धन, फडके, मेहेंदळे, गोखले, खाजगीवाले, घोरपडे आनी रास्ते हे झुजारी मनीस त्या काळार चित्पावनांत जल्माक आयले. ब्रिटीश राजवटींत ब्रिटिशांच्या अन्यायाआड झगडपी न्या. रानडे, लो. टिळक, विष्णुशास्त्री चिपळूणकर, आगरकर, कर्वे, स्वातंत्र्यवीर सावरकर हे व्हड मनीस चित्पावनच आसले. वैज, पंडित, मुत्सद्दी, वकील, न्यायाधीश, वेपारी, सावरकर, सुभेदार, सरदार, किल्लेदार फडनवीस ह्या विंगडविंगड क्षेत्रांत पूर्विल्ल्या काळांत लेगीत चित्पावनांनी आपलो खाशेलो प्रभाव घाला.

कोकणस्थ ब्राह्मणांत पोटजाती नात. पूण कांय चित्पावन, शाकल फांट्याचे ऋग्वेदी तर कांय कृष्णयजुर्वेदी आसात. हातूंत १४ गोत्रां आसात. चित्पावनाची मूळ ६० आडनांवां आनी ६० कुळां आसात, अशें म्हण्टात. पूण आयज हो आंकडो ४०० वयर गेला.

चित्पावन लोक जी भास उलयतात तिका 'चित्पावनी भास' अशें नांव आसा. ही भास मराठी भाशेचो एक पोटप्रकार जावन आसा, तेचपरी ती कोंकणी भाशेक खूब लागींची जावन आसा.

चित्पावन सुर्वेक शैव आशिल्ल्यान हरिहरेश्वर, कोळेश्वर, व्याघ्रेश्वर, वेळेश्वर, सोमेश्वर, गुहागरचो वाडेश्वर ह्या शैव देवांक कुळदेव म्हूण भजतात. कांय चित्पावनांची जोगेश्वरी ही कुलस्वामिनी आसा. कांय जाण वाडेश्वर- जोगेश्वरी, सोमेश्वर-महालक्ष्मी, महादेव-जगदंबा, लक्ष्मीनारायण, दुर्गादेवी अशीं जोड कुलदैवतां मानतात. चित्पावनां भितर फुडें विष्णु उपासना सुरू जातकच लक्ष्मीनारायण, केशवराज, लक्ष्मीनृसिंह, लक्ष्मीकेशव ह्या देवांक कांय घराणीं कुलदैवतां मानपाक लागलीं. खंडोबा, भवानी, त्र्यंबकेश्वर, गिरमाई, बेताळ, एकनाथ, गोलांबिका, काळभैरव, खारेश्वर, व्यंकोबा ह्या देव-देवतांक चित्पावनांनी कुलदेवाचें स्थान दिलां. जाखाई, केडजाई, करंजेश्वरी, नवलाई, केळाई, पावणाई ह्या ग्रामदेवतांकय चित्पावन भजतात.

घुडी-पाडवो, नाग-पंचम, सुता पुनव (नारळी पौर्णिमा), कृष्णजन्माष्टमी, चवथ (गणेशचतुर्थी), नवरात्र, महालक्ष्मीं, दसरो, दिवाळी, आषाढी-कार्तिकी एकादस, मकर-सक्रांत, होळी ह्यो परबो चित्पावन लोक मनयतात.

नवरात्रांतली महालक्ष्मीची पूजा हें कोंकणस्थांचें खाशेलपण जावन आसा. ही पूजा नवी व्हंकल पयलीं पांच वर्सां करता. हे पुजेखातीर महालक्ष्मीचें मुखें उकडिल्ल्या पिठासावन करतात. हे परबेंत घागर फुंकपाची आगळी-वेगळी कार्यावळ जाता.

चित्पावनांत सगोत्र लग्नां जायनात. आतेभाव-मामेभयण हांचेभितर लग्न-संबंद घडोवन हाडपाची चालूय हांगा ना. पयलीं भुरगेपणांत चले चलयांचीं लग्नां करपाची चाल आसली. आतां काल-माना प्रमाण तातूंत फरक पडला. लग्नां थारायतना हेर ब्राह्मणवर्गांवरीच कूल शील, व्हंकल न्हवऱ्याच्यो पत्रिका पळेतात.

**मरणप्रथा:** चित्पावनांत मनीस मरणासन्न जातकच जमीन शेणान सारोवन, त्या जाग्यार तुळशीचीं पानां उडयतात. ताचेर एक कांबळ हाथरुन, त्या मनशाक उत्तरेकडेन तोंड करून न्हिदयतात. ताच्या तोंडांत गंगोदक घालतात. भटा-ब्राह्मणाकडल्यान वेद-मंत्र म्हणतात.

प्रेत मसडींत व्हरचेआदीं ताका थंड उदकान न्हाण घालून नवीं वस्त्रां न्हेसयतात आनी गंगोदक उडयतात. प्रेताच्या तोंडात एकाद्री भांगरावस्त वा तुळशीपत्र दवरतात. प्रेताचें दहन करपाखातीर घरांतलो उजो मडक्यांत घालून मेल्ल्या मनशाच्या भुरग्याच्या हातांत दितात. हो भुरगो मुखार चलता. ताच्यावांगडा चलपी दोग जाणांतलो एकलो एका आयदनांत भात घालून व्हरता तर दुसरो सुपांत दाळ वा खोबऱ्याचे कुडके व्हरता. वाटेर वतासतना भुतां-खेतां खातीर म्हूण दाळ-खोबरें उडयतात. बायलो प्रेताबराबर वचनात. प्रेताचें दहन करतना, प्रेत दक्षिणेकडेन तोंड करून चितेर दवरतात. उपरांत प्रेताचेर चंदनाचे कुडके आनी तुळशीचीं पानां उडयतात. वायट वेळार एकाद्र्याक मरण येत जाल्यार प्रेताची तकली, दोळे, तोंड, छाती, खांदे हाचेर पिठाचे सात गुळे दवरतात. मेल्लो मनीस दादलो आसल्यार तकलेवटेन आनी बायल आसल्यार पांयांवटेन चिता पेटयतात. ह्या वेळार दहनाचे जे भट-ब्राह्मण पुरोयतपण करतात, तांकां कार्टे म्हण्टात.

ज्या जाग्यार मरण येता, त्या जाग्यार एक दिवो पेटयतात. ९ व्या ते १२ व्या दिसामेरेन चटश्राध्द करतात आनी १३ व्या दिसा पुण्यवाचन करून ब्राह्मण भोजन घालतात. वायट नक्षत्राचेर मरण आयल्यार ११ व्या दिसा शांती करतात.

**वेवसाय:** कोंकणांत येवन रावील्ल्या चित्पावन लोकांचो मुळावो वेवसाय क्षितीपावन म्हळ्यार शेतकामत्याचो आसलो. उपरांत वेदांचें अध्ययन आनी अध्यापन तांणी केलें. स्वताची बुध्द आनी कर्तबगारी ह्या दोन गुणांच्या म्हालवजार पूर्विल्ल्या काळांत पेशवाईच्या काळार ब्रिटिशांच्या काळार तशेंच सद्याच्या युगांत चित्पावनांनी विंगड विंगड क्षेत्रांनी यश मेळोवन मानाची सुवात जोडल्या.

**गोंयचो संदर्भ:** शिलाहाराच्या काळांत कऱ्हाडे ब्राह्मण गोंय सोडून कऱ्हाडाक गेले. तांकां लागून गोंयच्या सारस्वताच्या देवस्थानाक पुरोयत मेळना जालो. कऱ्हाडे ब्राह्मण कऱ्हाडाक गेल्यान जें एक रितेंपण गोंयच्या देवळांनी उबें जाल्लें तें भरून काडपाक 'चित्पावन' गोंयांत आयले असो विद्वानांचो तर्क आसा.

गोंयांत नागेशीं गांवांत मांचलापूर अग्रहाराचो जो तांब्यापटो मेळ्ळा. ताचेवेल्यान १३९१ त गोंयांत चित्पावन ब्राह्मण आशिल्ल्याचें दिसता. तांब्यापट्यांत जीं बारा ब्राह्मणांचीं नांवां दिल्यांत, तातूंतलें चैसास हें आडनांव चित्पावन ब्राह्मणाचें आसा.

गोंयचे चित्पावन गोंयच्या सत्तरी आनी फोंडे म्हालांनी रावील्ले दिश्टी पडटात. भारतांतल्या हेर चित्पावन लोकांवरी गोंयांतय ते वेद-अध्ययन भिक्षुकी, शेती हे वेवसाय चलोवन पोट भरतात. सत्तरींतले चित्पावन कुळागरां करतात. तेभायर पुरोयतपण आनी ज्योतिशी हे दोन उप-वेवसाय ते करतात.

गोंयांत चित्पावन लोकांची नवी पिळगी आर्विल्लें शिकप घेवन सुशिक्षीत जाल्ली दिश्टी पडली तरी संस्कृत आनी वेदांविशीं हाचे इतली जाणकार जमात दुसरी ना.

गोंयच्या चित्पावन समाजामदीं उलयतना कोंकणी भाशेचो वापर करतात, पूण घरांत मात आपली 'चित्पावनी' भासच उलयतात.

बर्वे, फडके, वझे, गोखले, परांजपे, साने, सिधये, केळकर,

इचलकरंजीकर, सहस्त्रबुध्दे, गाडगीळ, जोशी, मराठे हीं गोंयांतल्या कांय चित्पावन ब्राह्मणांचीं नांवां जावन आसात.

गोंयचे चित्पावन ब्राह्मण सारस्वतागेर धर्मकृत्य केल्यार लेगीत अन्न-ग्रहण करीनात. पूण हेर द्रविड ब्राह्मणांगेर अन्न ग्रहण करतात. कांय कर्मठ घराण्यांत अजूनय ही चाल चलता.

भारतांतल्या चित्पावन लोकांचें खाशेलपण म्हळयार तांचे घारशे दोळे. भारतीय चित्पावन लोकांक आशिल्ले घारशे दोळे मानववंशशास्त्रज्ञांक एक आव्हानूच थारलां.

- कों. वि. सं. मं.

**चित्रंगी:** (मराठी-कामलता, गणेश पुश्प; कन्नड-कामलते; इंग्लीश-सायप्रस व्हाईन; लॅटीन-आयपोमिया क्वामोक्लिट (क्वामोक्लिट पिनॅटा; कूळ- कॉन्व्हॉलृव्ह्यूलेसी). सुंदर, बारीक, गुळगुळीत आनी एक वर्स उरपी वाल. ही वाल मुळची उश्ण कटिबंधीय अमेरिकेंतल्या वाठारांतली आसून भारतांतल्या सगळ्या वाठारांत आनी बागेंत सोबितकायेखातीर लायतात. कांय कडेन ही वाल रानांनीय दिश्टी पडटा. पानां सादीं आनी पांखाभशेन वेगळायिल्लीं आसतात. तांचो दरेक भाग रेशाकृती आसता. सप्टेंबर ते डिसेंबर ह्या म्हयन्यांत लांब देंठर सकयलेवटेन नळये आकाराचें आनी वयर तांबशें वा धवें फूल येता. ताच्या बोंडांत चार बियो आसतात.

ही वाल रोवपाक सोपी आसून ती रोखडी वाडटा. देखून ती माटवार, वण्टीर सोबायेखातीर लायतात. पयलो पावस येवन वतकच जून-जुलय म्हयन्यांत बियो रोयतात. सूर्याचो उजवाड बरो मेळ्ळयार तशेंच सारें घालून तयार केल्ले जमनींत ही वाल बरी वाडटा. पावसाळो सोंपतकच वाल सुकता.

चित्रंगीच्या पानांचो लेप केंसपुळयेचेर (carbuncle) लायतात. मूळव्याध (बीक) जाल्यार कुटिल्लीं पानां भायल्यान लायतात आनी हून तुपांत घालून खावपाक दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**चित्रकला:** चौसश्ट कलांमदली एक कला. एके थारायिल्ल्या जाग्यार आकार आनी रंग हांचो आदार घेवन घडयिल्ली कलाकृती म्हळयार 'चित्र' अशी व्याख्या करतात. चित्र म्हळयार सैमाच्या रंग रुपाकडेन मेळपी-जुळपी रंगीत रचना, अशें मानतात.

आदल्या काळार चित्रकलेची उत्पत्ती कशी आनी केन्ना जाली हेविशीं निश्चित म्हायती मेळना. आदिमानवाक सैमांतल्यो विंगड विंगड वस्तू देखीक- मळब, धर्तरी, गिरे, नखेत्रां, न्हंयो, दोंगर, ऋतूमानांत जावपी बदल हांचे फाटले प्रक्रियेविशीं गिन्यान नासलें. पूण हे गजालीविशीं तांकां तोखणाय आसली. आदिमानवान आपल्या भोंवतणच्या सगळ्या वस्तूंविशीं एके अदृश्य शक्तीची कल्पना केली आनी ते नदरेन त्यो वस्तू वा तांचीं प्रतिकां आपल्या चित्रांच्या संवसारांत वापरलीं. आपल्या भोंवतणच्या सैमीक वस्तूंक दैवीक आनी अध्यात्मीक रूप दिवपाचो यत्न आदिमानवान आरंभासावन केल्लो. चित्रकलेचें मुळावण ह्या यत्नांतल्यान पडलें, अशें समजतात.

आदिमानवाचें सुर्वेचें चितारप भायले रेशेपुरतेंच मर्यादीत आसलें. चिखलांत दाबिल्ल्या हाता वा पायावरवीं जो ठसो उदेता ताका एक भायलें आंग आसता. ताचेवेल्यान ताका बुद्द मेळ्ळया आसुंयेता. अल्तामिरा हांगाचे वण्टीर बोटांनी रेगोट्यो कोरांतून एक जनावराचें तोंड काडलां. रेखन कलेची ही मुळावी अवस्था मानतात. हाताच्या तळव्याचे ठशे वण्टीर उदेवन आदीमानवान आपल्या अस्तित्वाचो ठसो आपल्या मूळ जाग्यार दवरलो.

मातयेचीं आयदनां सजोवप, कातीच्या भेसांचेर चित्रां काडप, होंवरेच्यो वण्टी चितारप, शिकारेचीं हत्यारां चितारप आनी नक्षी काडप, उपासनेखातीर सैमीक शक्तीचीं प्रतिकां निर्मप आनी हेर रुपांवरवीं आदिमानवान आपले चित्रकलेचे उत्फर्के परगटायले. हजारांनी वर्सांआदींची स्पेन हांगा सांपडिल्लीं गव्या-रेड्याचीं चित्रां अभ्यास करपासारकीं आसात.

मोहेंजोदडो, मेक्सिको आनी ईजिप्त हांगाचे पोरने संस्कृतायेचे चित्रशिल्पकलेंत एक अप्रूप अशी लय आसा. ग्रीकच्या मातयेच्या आयदनांवेलीं चित्रां अप्रूप आसात. ग्रीक संस्कृतायेच्या उदरगतीच्या काळांत वास्तवचित्रणाचेर चड भर आशिल्लो. प्रबोधनकाळांत तैलमाध्यमावरवीं सावळी आनी उजवाड पितारपाइतलें रंगमाध्यम मनशाकडेन आशिल्लें. मेणरंगांतल्या चित्रांनी, त्रिमितीचो भास जाणवता. पॉपेई हांगाच्या वण्टीचित्रांनी त्रिमितीचो भास निर्मुपाचो यत्न केला. मध्ययुगांत रसविद्येक (ॲल्केमी) लागून चित्रकलेच्या मळार बरीच उदरगत जाली.

**संस्कृत साहित्यांतली चित्रकला:** संस्कृत साहित्यांत चित्रकलेचीं जायतीं वर्णनां मेळटात. भास, कालिदास, भवभूती, हर्ष आनी हेर नाटककारांनी आपल्या नाटकांनी चित्रकलेचे प्रसंग जायतेकडेन हाडल्यात. रामायणांत रावणाच्यो जायत्यो चित्रशाळा आशिल्ल्याचो उल्लेख आयला.

**भारतीय चित्रकलेचो इतिहास:** भारतीय चित्रकलेची सुरवात केन्ना जाली, हेविशींची निश्चित म्हायती मेळना. पूर्विल्ल्या काळांत चित्रकलेचो उगम जाल्याचे सबळ पुरावे मेळटात. भारतांत इमारतीचे वण्टीर आनी लांकडांचेर चित्रां काडपाची चाल पूर्विल्ल्या काळासावन अस्तित्वांत आसली.

भारतांत जायते कडेन होंवऱ्यो आनी शिलाखंड हांचेर रेखाचित्रां काडिल्लीं सांपडल्यात. बुंदेलखंड, मिर्जापूर, रायगड, छोटा नागपूर आनी थंयसावन दक्षिणेंत कर्नूल मेरेन पातळिल्लीं शिलाचित्रां, भारतीय चित्रकलेचें मूळ आसूंये. हीं सगळीं चित्रां शिकार आनी झूज हेविशींचीं आसात. बिल्लासुरगम हांगाचे होंवरेंत सगळ्यांत पोरनीं रेखाचित्रां मेळिल्लीं. दक्षिणेंत वायनाड हांगाचे होंवरेंत मनीस आनी जनावरां हांची कोरांतिल्लीं चित्रां मेळ्ळयांत. कैमूर पर्वतांत, इतिहासापयलींच्या काळांतलीं शिळेर काडिल्लीं चित्रां मेळ्ळयांत. तीं चडशीं शिकारेचीं आसात. बुंदेलखंडांत पहाडी होंवरेंत गेरुन रंगयल्लीं चित्रां मेळ्ळयांत. थंय शिकारी चित्रांभायर होंवरेंतले दिसपट्टे जिणेचे देखाव आसात.

ह्या उपरांतचो काळ सिंधुसंस्कृतायेचो. मोहेंजोदडो आनी हडाप्पा ह्या सिंधूसंस्कृतायेच्या केंद्रांनी चित्रकलेचे नमुने दिसतात. ही चित्रकारी चर्म वा भूजपत्र हांचेवेली नासून मातयेच्या आयदनांवेली आसा. त्या काळावेले जे अवशेश मेळ्ळयात, ताचेवेल्यान मोगी जीवाच्या अंतरांतले भाव, नर्तकीच्यो विंगड विंगड मुद्रा, बायलांची सोबीत केशरचना, बायलांचे कुडीची सोबीतकाय हीं तांच्या मुर्तीतल्यान आनी चित्रांतल्यान कलात्मक रितीन व्यक्त जातात.

इ.स.प. तिसऱ्या शतमानाच्या काळांत बौध्द धर्माचो खूब प्रसार जालो. हो बौध्दधर्माच्या उदरगतीचो काळ आसलो. ह्या काळांत चित्रकलेक म्हत्व मेळिल्लें. चित्रकारांनी धर्मीक बसका आशिल्लीं चित्रां रंग-रेशेवरवीं घडयलीं. तातूंतल्यान धर्माविशींचे उत्फर्के जागे जालेच, पूण तेभायर मनीस जिणेचें चित्रण तांणी केलें. इ.स. च्या पयल्या शतमानांत 'अमरावती' हांगा तांणी कोरांतिल्लो स्तूप अभ्यास करपासारको आसा. भारतांत लेणी कोरांतपाची परंपरा ह्याच शतमानांत सुरू जाली.

सिकंदरान घुरी घाल्या उपरांत भारतीय चित्रकलेचेर ग्रीक शैलीचो प्रभाव पडलो. इ.स. च्या पयल्या तीन शतमानांत ग्रीक आनी भारतीय ह्या दोनूय शैलींचे भरसणेन चित्रकारांनी कांय कलाकृती निर्मिल्यो. स्वतंत्र भारतीय शैलीन कलाकृती निर्मुपी कलावंत त्या काळांत भारतांत आसले.

**प्रकार:** *अजंठ चित्रशैली:* संशोधकांच्या मतान अजंठ लेणींतलीं वण्टीचित्रां पयल्या शतमानासावन आठव्या शतमानाच्या निमाणेमेरेन घडलीं. बौध्द जातककथा आनी बुध्दाची जीण हांचे भोंवतणी अजंठांतलीं



लक्ष्मण पै हांची कलाकृती



चिमुलकार हांची कलाकृती

चित्रां चिंतारिल्लीं दिसतात. यक्ष-गंधर्व, सोबीत बायलो, गंधर्व-किन्नर, संन्याशी, रानां, नगरां, भवनां हांचे वयर्खी एक जिवी कलासृश्ट हांगा उबी जाल्या. पद्मपाणी अवलोकितेश्वर हाचें चित्र सगळ्यांत सुंदर आसा. रेशांची मांडावळ, रंगांचें समतोलपण आनी विशयाचें प्रतिपादन हे नदरेन हीं चित्रां ऊंच पांवड्याचीं आसात. अजंठाचे चित्रसृश्टीचो प्रभाव भारताचेरूच न्हय तर मध्य आशिया, ब्रह्मदेश, लंकां, चीन आनी जपान ह्या देशांचे चित्रकलेचेर पडला. भारतीय चित्रकलेची परंपरा अजंठाचे चित्रकलेन सुरू जाता अशें म्हण्टात. वयले तरेची सुंदर वण्टीचित्रां बाघ आनी बादामी आनी सितन्नवासल ह्या जाग्यांवेल्या होंवऱ्यांत चितारिल्लीं आसात.

*गुजराती चित्रशैली:* गुजरातांतल्या कलाकेंद्रांत पयलीं ताडपत्री पोथयांचेर चित्रां काडटाले. फुडें कागद तयार जातकच ताचेर चित्रनिर्मणी सुरू जाली. हे शैलींतलीं पूर्विल्लीं चित्रां खास करून जैन पोथयांचेर आनी जैन धर्माविशींचीं आसात. उत्तरकाळांतलीं चित्रां वैष्णव संप्रदायाचीं आसात. त्या चित्रांतली तांबड्या, निळ्या आनी भांगरा रंगाची तरलता आनी नक्षीदार भेस सोबीत दिसतात. पंदराव्या शतमानामेरेन गुजराती चित्रशैली वैभवाचे तेंगशेर आसली. अकबरान फुडें सगळ्या कलावंतांक आपल्या दरबारांत व्हेल्ल्यान तांची गुजरात परंपरा बंद पडली.

*मोगल चित्रशैली:* मोगल साम्राज्याचो जनक बाबर एक व्हड कलाभोगी आनी कवी आसलो. भारतांत येतासतना ताणें 'शाहीनामा' नांवाचो जो ग्रंथ हाडिल्लो, तो सचित्र आसलो. ताचो पूत हुमायूं होय कलाभोगी आसलो. अब्दुस् समद शिराजी आनी मीर सैयद अली ह्या दोन पर्शियन चित्रकारांक, हुमायूंन, चित्रकलेची उदरगत जावंची ह्या हेतान दरबारांत हाडिल्ले. तांच्या हाताखाल पन्नास चित्रकार काम करताले. तातूंत हिंदूय आसले. तांणी इराणी शैली भारतीय शैलींत भरसून चित्रकलेक एक नवें मोडण दिलें. तिका 'मोगल चित्रशैली' म्हण्टात. अकबराक चित्रांचो संग्रह करपाचो नाद आशिल्लो. ताणें फकत प्रणयकथांची १,३७५ चित्रां आशिल्लो एक संग्रह तयार करून घेतिल्लो. जहांगिराच्या काळांत मोगल शैली उदरगतीचे तेंगशेर पाविल्ली. त्या काळांतल्या चित्रकारांनी राजाचें स्वागत, शिकारेचे प्रसंग, प्रार्थनेचे देखाव, राणीवंशांतल्यो बायलो, हत्ती, घोडे, रानवटी सुकणी-सावदां अशे चित्रविशय मोटे आवडीन हाताळ्ळे. शाहजहान आनी औरंगजेबाच्या काळांत हे शैलीक देंवती कळा लागली. औरंगजेबान तर ललितकलेचो पुराय दुस्वास करून सगळ्या चित्रकारांक धांवडावन घाले.

*राजपूत चित्रशैली:* मोगल राजांचो आलाशिरो ना जातकच राजपूत चित्रकारांनी जी शैली केळयली, तिका राजपूत शैली म्हण्टात. इस्लामी कल्पनेचो प्रभाव पडिल्ली, पूण हिंदु आचार-विचारांकडेन जुळटें घेवपी ही एक शैली जावन आसा. रामानंद, तुलसीदास, चैतन्य, मीराबाई ह्या संतकवींचें साहित्य, रामायण-महाभारतांतले कथाप्रसंग, गीतगोविंदांतलें काव्य हातूंतल्यान राजपूत चित्रकारांनी चित्रांखातीर विशय वेंचून काडले. राजपूत कलावंतांचो प्रतिभाविलास आनी कलात्मक आविश्कार तांणी काडिल्ल्या रागमाला, बारमासा आनी स ऋतू ह्या चित्रांनी दिसून येता. सैमांतल्या स ऋतूंची ननशाच्या अंतरांतल्या षड्विकारांकडेन सांगड घालून प्रणयाच्या माध्यमांतल्यान तांचें दर्शन राजपूत चित्रकारांनी घडयलां.

*पहाडी चित्रशैली:* राजस्थानी भाव आनी संकेत हातूंतल्यान पहाडी शैलीची निर्मणी जाली. जम्मू, टेहरी, गढवाल, बसौली, पठानकोट, गुलेर, चंपा, नूरपूर, कांगडा, कुलू, मंडी, साकेत ह्या भागांनी पहाडी शैलीचो विस्तार जालो. १७ व्या शतमानाच्या मध्याक हे शैलीची निर्मणी जाली. बसौली चित्रशैलींत गती आनी शक्त तर कांगडा शैलींत बायलेची जीण आनी सोबीतपण हाका खास अशी सुवात आसा.

*मराठी चित्रशैली:* मराठ्यांच्या राज्यांत खास करून तंजावरच्या मराठी सत्तेवेळार संगीत आदी कलांवांगडा चित्रकलेक आलाशिरो मेळिल्लो. त्यावेळार एक खास शैली थंय वयर सरली, अशें मानतात. थळाव्या स्वरुपाच्यो स्फुट लोकशैली मात महाराष्ट्र आनी भारतांत नामना जोडून आसल्यो. महाराष्ट्रांत सावंतवाडीच्या गंजिफांची जिनगरी शैली म्हत्वाची आसा. खानदानी कुटुंबां आनी देवळां हांच्या आदारान वण्टीचित्रांच्यो लोकशैली जिव्यो उरल्यात. नाना फडणीसाच्या मेणवली वाड्याचेर वण्टीचित्रां आसात.

**आर्विल्ली भारतीय चित्रकला आनी चित्रकार:** ब्रिटीश भारतांत येतकच तांचे चित्रशैलीचो प्रभाव भारतीय चित्रकलेचेर पडलो. राजा रविवर्मा हो अस्तंतेचे चित्रशैलीचो प्रभाव पडिल्लो पयलो चित्रकार आसलो. ताणें लोकांच्या श्रध्दाविशींच्या कल्पनांक आपले चित्रकलेंत खास सुवात दिल्या. धुरंधर, आगास्कर, आचरेकर हे व्हड चित्रकार हेच शैलींत चित्रां काडपात फिशाल आसले. उदेंतेची आनी अस्तंतेची शैली भरसून एक आगळी शैली घडोवपी चित्रकार १९ व्या आनी २० व्या शतमानांत भारतांत जाले. बंगाल हेविशीं सगळ्यांत मुखार आसलो. इ. स. १९१० त कलकत्ता हांगा हवेल आनी डॉ. अवनींद्रनाथ ठाकूर हांणी 'इंडियन सोसायटी ऑफ ओरिएंटल आर्ट' नांवाचे संस्थेची थापणूक केली. परंपरागत कलाशैली आनी नवी विचारप्रणाली हांच्या संगमांतल्यान एक नवी शैली हे संस्थेन केळयली. हे संस्थेन नंदलाल बसू, क्षितीद्र मुजूमदार, असितकुमार हालदार, मुकूल दे, देवीप्रसाद राय चौधरी सारके फांकिवंत चित्रकार दिले. नव्या कलाकारांच्यो भावना, दुखववादाकडेन झुकपी आसात. ह्या कलाकारांची सुर्वेचीं चित्रां दुख्ख, निर्शेवणी ह्या भावांक म्हत्व दितात.

रविंद्रनाथ टागोर, गगनेंद्रनाथ टागोर, अमृता शेरगिल आनी यामिनी राय हांणी चित्रकलेच्या मळार क्रांती घडयली. ह्या चित्रांची रंग, रेगोटी, रुप ह्यो गजाली सामक्यो नव्यो आसात. तांणी आपल्या चित्रांत रुपापरस भावाक चड म्हत्व दिलां. भारतीय विशय अस्तंतेचे क्यूबीक शैलींत सगळ्यांत पयलीं गगनेंद्रनाथ ठाकूर हाणें मांडले. अमृता शेरगिल हिची शैली फ्रेंच इंप्रेशनिस्ट शैलीक लागींची आसली. यामिनी राय हाणें आपले कलेच्या आविश्काराखातीर बंगालचे लोककलेचो पालव घेतलो. विसाव्या शतमानाच्या आरंभाक फ्रेंच चित्रकलेकडल्यान आनी सुटके उपरांत यंत्रयुगाकडल्यान भारतीय चित्रकलेक प्रेरणा मेळ्ळी.

रथीन मैत्र, गोपाल घोष, सुनील माधव सेन, गोवर्धन आशू, हेमंत मिश्र, परितोष सेन ह्या चित्रकारांनी आपल्या चित्रांत मानवतेची उपासना केल्या, पूण परंपरावादाचो विरोध केला. मुंबयतल्या चित्रकारांमदीं बेंद्रे, दीनानाथ दलाल, रघुवीर मुळगांवकर, अहिवासी यज्ञेश, शुक्ल, माळी, रावळ, रजा, चावडा, सातवळेकर, गोडसे हे चित्रकार नामना जोडून आसात. हुसेन, फ्रांसिस, न्यूटन, सोउझ, आरा, गोडे, अकबर, पदमसी, लक्ष्मण पै हे चित्रकार प्रगतिशील वर्गांत मोडटात. कुलकर्णी, भवेश सान्याल, कंवलकृष्ण, सतीश गुजराल, शैलोज मुखर्जी, वीरेन दे, दिनकर कौशिक, आर्यन, बद्री हे चित्रकार दिल्लीचे आसात. दक्षिणेंत माधव मेनन, नरसिंहमूर्ती, श्रीनिवासन, धनपाल आनी रामगोपाल हे चित्रकार खूब गाजल्यात. आयचे चित्रकार विंगड विंगड विशयांचेर आपलीं चित्रां चितारतात. तेवखीं भारतीय चित्रकलेचो नवो आविश्कार उक्तो जावपाची शक्यताय आसा.

**भारतीय चित्रकलेचीं खाशेलपणां:** निर्दोश रचणूक, निवळ आनी समतोल रंगयेवजण, सैमाच्या वस्तूंचे घडयिल्ले सांकेतीक आकार, विंगड विंगड भावाविश्कार ही भारतीय चित्रकलेचीं खाशेलपणां आसात. बायलेची आकृताय चितारतना मत्स्याकृती दोळे, धनुश्याकृती भुंवयो, सोबीत नाक, लांब वाटकुळें तोंड, बारीक कमर, छाती, बारीक पांय हेविशींचे काल्पनीक सोबीतकायेचे संकेत पाळप, होवूय भारतीय चित्रकलेचो खास गूण आसा. कलेच्या मळावेल्या जाणकारांनी चित्रकाराचे तीन वर्ग केल्यात. पयलो वर्ग सैमाचें अनुकरण करपाचे यत्न करतल्याचो, दुसरो ह्या अनुकरणाचेर प्रभुत्व मेळयिल्याचो आनी तिसरो स्वताचे प्रतिभेन स्वतंत्र निर्मिती करपाचो. ह्या तिसऱ्या वर्गांतल्या कलाकारांचो पांवडो ऊंच आसता. भारतीय चित्रशैली ह्याच वर्गांत मोडटा. अमेरिकेन संवसारीक चित्रकारांचो संग्रह उजवाडाक हाडपाचो थारायलो, तेन्ना पयलो मान अजंठाच्या चित्रांक दिल्लो.

**विदेशी चित्रकला आनी चित्रकार:** ज्या काळांत भारतीय लघुचित्रशैली उदरगतीचे अवस्थेंत आसली त्याच काळांत चीन, जपान, कोरिया आनी हेर उदेंतेकडल्या देशांत चित्रांचे विंगड विंगड प्रकार चलत आसले. वण्टीक लावपाच्या कागदावेलीं वा कापडावेलीं चित्रां वा पड्‌ड्यावेलीं चित्रां लोकांभितर खास सुवात जोडून आसलीं. कागदावेल्या चित्रांखातीर खास रंगीत शायांच्या प्रवाही धुवणाचो (वॉश) हे वापर चित्रकार वापरताले.

मध्ययुगांत उणाक म्हूण लेखपाक आयिल्लो कलावंत आपले बौध्दिक तांकीविशीं जागरुक जालो. कलेंतले आकृतायेचे सिध्दीखातीर कलावंत प्रज्ञावंत आसचो पडटा, अशें मत जॉतो दी बोंदाने हाणें परगटायलें. वस्तुविश्वाचो चिकित्सक अभ्यास आनी मध्यमद्रव्याचें गिन्यान पुराय जातलें जाल्यार कलाकार वैज्ञानिकासारखो वैज्ञानीक आसचो पडटा, अशें मत लिओनार्दो व्हिंची हाणें परगटायलें. प्रबोधन काळांत आकृतिवाद हो ग्रीक काळांत वयर सरिल्ल्या सममिती पुनरावृत्ती आनी हेर भौमितीक मोडणाचो (सिमेट्रिका कार्ट्रेशिया) एक वेगळो पर्याय आसलो. आतां वणत, कागद आनी हेर द्विमितीय पृश्ठांवेली द्विमितीय रचणूक म्हळ्यार चित्र ही संकल्पना फाटल्यान पडून, वण्टींतल्यान आरपार मेकळे केल्लें काल्पनिक चौकटींतल्यान पळयिल्लो संवसार म्हळ्यार चित्र अशी संकल्पना चलत आसा. प्रबोधनकाळांत गिन्यानाची भूक आनी सैमाविशींची तोखणाय हे चौकटींतल्यान पळोवंक मेळळें. यान व्हान आइक चे 'मॅडोना वुइथ चॅन्सलर रोलीन' चित्र हेच परंपरेंतले आसा. एल ग्रेको, आल्ब्रेश्ट ड्यूरर, राफाएल, मायकेल अँजेलो हे ह्या काळांतले व्हड कलाकार. व्हासारी ह्या नामनेच्या समीक्षकान व्हिंची, राफाएल, मायकेल अँजेलो हांकां आर्विल्ले थारायल्यात.

प्रबोधन काळाउपरांत समाजीक परिस्थिती बदल्ली. खानदानी पध्दतीचें म्हत्व कमी जावपाक लागलें. अठराव्या शतमानांतल्या स्वच्छंदतावादी प्रवृत्तीची दाट सया चित्रकलेचेर पडली. चित्रकारांनी सैमाक, नेमाचे फास्केंत बंद करिनासतना भावनेच्या मार्गान ताचेकडेन पळोवंक सुरवात केली. पूर्विल्ल्या भग्नावशेशाचें चित्रण करपाचेर तांणी चड भर दिलो. गोया, विल्यम ब्लेक, टर्नर, दलाक्रुवा, कूर्बे, कॉरो हे चित्रकार स्वच्छंदतावादी आसले.

अठराव्या शतमानांत वास्तववादाचो अतिरेक जालो. अचूक चित्रण जावंचें म्हूण कॅमरा ऑब्स्क्यूराचो (पटछिप्त चित्रक) उपेग जावं लागलो. तातूंतलें कमीपण जॉश्युआ रेनल्ड्स हाणें दाखोवन दिलें. आयच्या कॅमेराचें मूळ 'कॅमरा ऑब्स्क्यूर' आसा. ताका लागून अचूक चितारप ही गजाल यंत्राधीन थारली. रंगाची खरसाण आनी उजवाडाची अप्रूप सोबीतकाय हीं सुत्रां जेन्ना चित्रकाराक सांपडलीं, तेन्ना दृक्प्रत्ययवादाचो उदय जालो. माने, मॉने, दगा हे नामनेचे दृक्प्रत्ययवादी चित्रकार आसात. रंगाचो भाव आनी आकृताय उठावदार दिसपाखातीर उपरांतच्या दृक्प्रत्ययवादी चित्रकारांनी विंगड विंगड वांटो सोदल्यो. गोगॅंच्या रेखनांत निग्रो रेशेची गती आनी रंगांक खर उत्कटताय आसा. व्हान गॉख हाच्या भावनेन भरिल्ल्या रेशांच्या संबंदांतल्यान मनीस जिणेचीं उणेपणां दिसतात. सेझाँ हाणें रंगांचो भाव आनी वस्तूंची घनताय हाचेर भर दिला. ब्राक आनी पिकासो हांणी सेझाँचो घनवाद फुडें चलयलो. रुवो, कोकोश्का सारक्या चित्रकारांनी मनशाचीं दुख्खां, मनशाची असहायता, दुर्दैव ह्यो भावना परगटावपाखातीर आकाररंगाचें मनस्वी विरुपीकरण केलां.

पयल्या म्हाझुजाउपरांत, त्या झुजांत जाल्ल्या भिरांकुळ संहाराविशीं एक तिडकीची भावना जल्माक आयली. हे बंडखोरीक विधायक मोडण

दिवपाचे अंतःप्रेरणेन अतिवास्तववाद जल्माक आयलो. कवी आंद्रे ब्रताँ हो अतिवास्तववादाचो जनक आसलो. ताणें आपल्या काव्य, चित्रां आदी कलांतल्यान मनशाच्या बंदिस्त मनांतल्या विचारांक, वासनांक, प्रतिमांक एक उक्ती वाट करून दिली. नामनेचो चित्रकार साल्वादोर दाली हाणें अद्‌भूत घडणुको, प्रतिमा आनी प्रतिकां हांचो पुराय जाण दवरून वापर केलो. अतिवास्तववादी ताका आपलो मानिनात. क्ले-आकार, प्रतिमा आनी रंगभरीत गूढ वातावरण हाचे स्वभावीक गूण चित्रांत दाखोवपाक यशस्वी थारला. देखून तो अतिवास्तववादाक लागीं आयला.

वस्तुनिरपेक्ष अप्रतिरुपाकारांतल्यान क्रियाचित्रण हो प्रकार वयर सरलो. जॅक्सन पॉलक हो ताचो मुखेल जनक आसलो. क्रियाचित्रण म्हळ्यार अप्रतिरुप चित्राचो स्वच्छंद आविश्कार जावन आसा.

**गोंय आनी चित्रकला:** चित्रकलेच्या मळार गोंयचो वांटो म्हत्वाचो आसा. लक्ष्मण पै, मारियो मिरांदा, गणपतराव लाड, आंतोनियु त्रिन्दादी, इनासियु व्हाज, अनंत भोसले, रघुवीर चिमूलकार, दीनानाथ दलाल, रघुवीर मुळगांवकर, मंगेश केंकरे, आग्नेल फोंसेका, फ्रान जुआंव फेर्नांदीश, व्ही. एस्. गायतोंडे, एफ्. एन्. सोउझा, जुजे पेरैर, प्रफुल्ला डहाणूकर हे गोंयचे गाजिल्ले चित्रकार आसात.

शंकरराव मुळगांवकर आनी ताचो भाव तशेंच नरसिंह खंवटे हांचीं दोन कलामंदिरां (studio) ४० च्या दशकांत गोंयांत आसलीं.

गोंयांत, पणजेच्या आल्तीन दोंगूल्लेचेर गोवा कला महाविद्यालय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**चित्रगुप्त:** धर्तरेवेल्या मनशांच्या, प्राण्यांच्या पाप-पुण्याचो हिशोब दवरपी, यम-दरबारांतलो एक अधिकारी असो चित्रगुप्ताचो पोरन्या भारतीय साहित्यांत उल्लेख मेळटा.

चित्रगुप्ताचे उत्पत्तीविशीं दोन कथा चलतात त्यो अश्यो:

१. एक फावट ब्रह्मदेव ध्यानाक बशिल्लो आसतना, ताच्या आंगांतल्यान एक चित्रवर्ण दादलो निर्माण जालो. ताच्या एका हातांत तिंतेर आनी दुसऱ्या हातांत लिखणी आसली. ताच्या चित्र-विचित्र वर्णावेल्यान ताका चित्रगुप्त हें नांव पडलें. ब्रह्मदेवाचे कुडींतल्यान (काया) उत्पन्न जाल्लो, म्हूण ताका 'कायस्थ' अशेंय म्हणपाक लगले. जेन्ना ताणें ब्रह्मदेवाक आपल्या कामाविशीं प्रस्न केलो, तेन्ना ब्रह्मदेव परतो ध्यानस्थ जालो आनी ताणें ताका यमलोकांत वचून थंय येवपी जिवांच्या पाप-पुण्याचो हिशोब दवरपाक सांगलो. चित्रगुप्त ब्रह्मदेवाची आज्ञा मानून यमलोकांत गेलो. थंय ताका अंबष्ठ, माथुर, गौड आनी हेर अशे णव पूत जाले.

२. मित्र नांवाचो एक कायस्थ मनीस आसलो. ताका चित्रगुप्त आनी चित्रा अशीं दोन भुरगीं आसलीं. मित्राच्या मरणाउपरांत ताची बायल सती गेली. ताका लागून हीं दोनूय ल्हान भुरगीं उबंत पडलीं. मागीर हीं दोगाय जाणां प्रभासक्षेत्रार येवन सुर्याची आराधना करपाक लागलीं. ते आराधनेवरवीं चित्रगुप्ताक गिन्यानाची प्राप्ती जाली. चित्रगुप्ताचें गिन्यान पळोवन यमान ताका आपल्या दरबारांत लेखक म्हूण दवरलो. फुडें ह्याच चित्रगुप्तान यमाक धर्माचें सार सांगलें. उपरांत चित्रेन चित्रगुप्ताक एक व्हड भवन बांदून दिलें. ह्या भवनांतली कारागिरी पळोवन विश्वकर्म्याक लेगीत ताचो दुस्वास दिसलो, अशें हे कथेंत मुखार म्हळां.

गरुड पुराणांत यमलोकालागीं चित्रगुप्ताचो चित्रलोक आशिल्ल्याचें म्हळां.

चित्रगुप्ताचें फुडल्या मंत्रान ध्यान करतात.

> किरीटोज्ज्वलं वस्त्रभूषाभिरामं
> विचित्रासनासीनमिन्दुप्रभास्यम्।
> नृणां पापपुण्यानि पत्रे लिखन्तं
> भजे चित्रगुप्तं सखायं यमस्य ।।

अर्थ- मुकुटान उज्वल दिसपी, वस्त्रां आनी अलंकारांक लागून सुंदर दिसपी, विचित्र अशा आसनार बशिल्लो, चंद्रावरी जाचें तोंड आसा असो, मनशाच्या पाप-पुण्याचो हिशोब पत्राचेर बरोवपी यमाच्या इश्टाक हांव भजतां.

कार्तिक शुध्द द्वितीयेक यमपूजा करतात तेन्ना चित्रगुप्ताचीय पूजा करतात. कायस्थ लोक चित्रगुप्ताक आपलो पूर्वज मानून पूजतात.

उज्जैनीच्या वाठारांत कायथा ह्या गांवांलागीं चित्रगुप्ताचें एक पोरनें देवूळ आसा. देवळालागीं एक चौथरो आसा. ह्या चौथऱ्यार चित्रगुप्तान यज्ञ केल्ल्याचें सांगतात. त्याच क्षेत्रांत सांदीपनीच्या आश्रमालागीं एक शिळा आसा. ते शिळेचेर चित्रगुप्ताची प्रतिमा आपल्यो दोन बायलो आनी बारा चले हांचेसयत कोरांतिल्लो आसा. यमद्वितीये दिसा हांगा व्हड जात्रा भरता.

- कों. वि. सं. मं.

**चित्रपट:** कलात्मकता आनी तंत्रगिन्यान हांचो संगम आशिल्लें सर्जनशील अशें भौशीक माध्यम आनी मनोरंजनाचें आनी लोकशिक्षणाचें एक प्रभावी साधन. छायाचित्रणावेल्यान चलत्‌चित्रणाचो सोद लागलो. चलत्‌चित्रण म्हळ्यार हालपी-धोलपी वस्तूंचें क्रमशः छायाचित्रण. चलत्‌चित्रणाचो सोद लागतकच रोखडोच चित्रपटकलेचो जल्म जालो. सुरवातीच्या मूकचित्रपटाउपरांत ध्वनिमुद्रणाचो सोद लागतकच उलोवपी चित्रपटांचें युग सुरू जालें. रोखडेच रंगीत चित्रपटूय आयले. हालींच्या काळांत त्रिमितीय (three-dimensional) चित्रपटांचीय निर्मिती जाल्या. विसाव्या शेंकड्यांतल्या विज्ञानीक आनी तंत्रीक उदरगतीक लागून चित्रपटकलेची विंगड विंगड आंगांनी उदरगत घडून आयली.

डॉ. पीटर मार्क रॉझे ह्या संशोधकान १८२४ त, रॉयल सोसायटी ऑफ लंडन हे संस्थेक 'हालपी-धोलपी वस्तूंचें दृश्यसातत्य' ह्या विशयाचेर एक निबंध सादर केलो. १८२६ त सर जॉन हर्शेल हाणें शिलिंगाचें एक नाणें भोंवऱ्याभोंवतणी धुंवडावन केल्लो प्रयोग, १८३२ त जोजेफ आन्तवान फर्डिनांड प्लातो ह्या बेल्जियम शास्त्रज्ञान लायिल्लो फेनॅकिस्टोस्कोपचो सोद, १८३४ त विल्यम जॉर्ज हॉर्नर ह्या संशोधकान हालपी-धोलपी चित्रां दिसतलीं, अशेतरेन केल्लो झोइट्रोप (व्हील ऑफ लाइफ) नांवाचो प्रयोग, १६४० त रोमच्या आटानाझिउस किर्खर हाणें तयार केल्लो 'मॅझिआ कॅटोप्ट्रिका' हो चित्रदीप अशा विंगड विंगड प्रयोगांतल्यान चित्रपटतंत्राची उदरगत जायत गेली. १८६० त, फिलाडेल्फियाच्या कोल्मन सेलर्झ हाणें छायाचित्रांचे माळेंत हालचाल दाखोवपाखातीर यत्न केले. १८५३ त, एका ऑस्ट्रियन लश्करी अधिकाऱ्यान टाटली आनी चित्रदीप हांच्या आदारान पड्ड्याचेर चित्रां दिसतलीं अशी वेवस्था केली. तेउपरांत, रेनो हाणें १८७६ त 'प्रॅक्झिनोस्कोप' नांवाचें एक हारशाचें उपकरण तयार केलें. १८९२ त, ताणें 'थिएटर ऑप्टिक' पारिसांत सुरू केलें. १८७२ त, एडवर्ड माइब्रिज नांवाच्या एका छायाचित्रकारान धांवपी घोड्याचें एकेक छायाचित्र आपोआप काडून येतलें, अशी वेवस्था केली.

चित्रपटकलेचे उदरगतीचो दुसरो म्हत्वाचो पांवडो म्हळ्यार फ्रांसाच्या एतिअॅन ज्यूल मारे ह्या संशोधकान, १८८२ त छायाचित्रणाखातीर तयार केल्ली एक 'फोटोग्रॅफिक गन'. तातूंत यांत्रिक सुदारणा करून ताणें जॉर्ज डेमिनी नांवाच्या एका सहाय्यकाच्या पालवान क्रोनोफोटोग्राफ नांवाचो एका सेकंदाक ६० चित्रां घेवपी एक नवो कॅमेरा तयार केलो. १८८५ त, न्यूयॉर्क हांगा जॉर्ज ईस्टमन हाणें चलत्‌चित्रणाखातीर उपेगाक येतलें, अशें फिल्माचें फीत तयार केलें. तातूंत आनीकूय सुदारणा जावन १८८९ त, सद्या उपेगांत आशिल्लें फिल्म तयार जालें. फिल्माचो सोद लागतकच, चलत्‌चित्रीकरण करपाखातीर विल्यम फ्रीझ ग्रीन हाणें एक कॅमेरा तयार केलो. ताका लागून चलत्‌चित्रीकरण आनी चित्रप्रक्षेपण हातूंत बरीच उदरगत घडून आयली. देखून, विल्यम फ्रीझ ग्रीन हाका चित्रपटकलेचो जनक अशें म्हण्टात. १८८९ त, लि प्रँस ह्या फ्रेंच संशोधकानूय असलेच तरेचो एक कॅमेरा करपाक यश मेळयलें.

एडिसनान १८८९ त आपल्या वांगड्याच्या पालवान कायनेटोग्राफ आनी कायनेटोस्कोप तयार केले. फ्रांसांत ल्यूम्येअर भावांनी

चलत्‌चित्रप्रक्षेपक (Cine Projector) तयार करुन मार्च १८९५ त 'लंच अवर ॲट द ल्युमिअर फॅक्टरी' हो पयलो चलच्चित्रपट थंयच्याच एका वाठारांत दाखयलो; डिसेंबर १८९५ त, पारीस हांगाच्या ग्रां कार्फेत करमणुकीचें एक साधन म्हूण 'चार्ज ऑफ द ड्रॅगन्स' नांवाचो सुमार १५ मी. लांबायेचो एक चित्रपट दाखयलो. फेब्रुवारी १८९६ त, लंडनच्या रॉयल पॉलिटेक्निक इन्स्टिट्यूटांत असोच एक प्रयोग जालो. टॉमस अरमॅट हाणें व्हिटास्कोप ह्या उपकरणावरवीं चलत्‌चित्रप्रक्षेपकांत म्हत्वाच्यो सुदारणा घडोवन हाडल्यो. सुर्वेक देखाव्यांचें चित्रीकरण उक्त्यार जातालें. फेब्रुवारी १८९३ त वेस्ट ऑरेंज हांगा एडिसनान स्टुडिओंतल्या चित्रीकरणाखातीर 'ब्लॅक मारिआ' नांवाचें पयलें चित्रपटनिर्मितीघर बांदलें.

फिल्मांवरवीं काणी वा कथानक दाखोवपाचो पयलो प्रयोग अमेरिकेंत १८९७ त, आर्. जी. हॉलमन हाणें 'पॅशन प्ले' (लांबाय सुमार ६५६ मी.) ह्या चलत्‌चित्रपटावरवीं केलो. खऱ्या अर्थान चित्रपटाचो जल्म १९०३ त जालो. त्या वर्सा एडविन एस्. पोर्टर हाणें संकलनकलेचो वापर पयलेच खेप करून 'द ग्रेट ट्रेन रॉबरी' हो सुमार २४४ मी. लांबायेचो कथाचित्रपट तयार केलो. स्यिर्ग्येई आयझेनस्तीन आनी व्हस्येव्हलत पूदोव्हकिन ह्या रशियन तंत्रज्ञांनी चित्रपटाविशीं आनी संकलनाविशीं बरेच प्रयोग सुरू केले. २१ एप्रिल १९१३ दिसा ८ रिळांची आनी सुमार दोन वरां चलपी 'को वादीस' हो पयलो इटालियन चित्रपट दाखयलो. चार्लस् चॅप्लिन ह्या विनोदी कलाकाराचे विनोदी मूकचित्रपटूय ह्या काळांत खूब लोकप्रिय जाले. १९०७ च्या सुमाराक कथानकाचो संवाद स्पश्ट करपाखातीर पड्‌द्याचेर अक्षरी संवाद वळख (captions) दाखोवपाची पध्दत सुरू जाली. सप्टेंबर १९०८ त, एक्लेर (फ्रांस) हाणें 'निक कार्टर' ही पयली धारावाही फिल्म दाखोवपाक सुरवात केली.

ह्याच काळांत चित्रपट उलोवपी आनी रंगीत करपाखातीरुय प्रयोग चालू आशिल्ले. १८६१ त, जेम्स क्लार्क मॅक्सवेल हाणें पयलें रंगीत छायाचित्र सादर करपाचो यशस्वी यत्न केलो. १८६२ त, फ्रांसांत लुई द्युको द्यु होरॉं हाणें 'मोनोपॅक कलर' नांवाचें एक फिल्म तयार केलें. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवातीक रंगीत चित्रपट तयार करपाखातीर उपाट यत्न जाले. जेंकिन्झ चार्लस् फ्रांसिस हाणें 'ॲनाबेल द डान्सर' ह्या नांवाचो एक चित्रपट तयार केलो. तातूंतलें दरेक चित्र ताणें हातान रंगयल्लें. १९०५ त, शार्ल पाथे हाणें रंगीत चित्रपट तयार करपाखातीर एक नवी पध्दत वापरांत हाडली. जुलय १९०६ त, इंग्लंडांत चार्लस् अर्बन आनी जी. आल्बर्ट स्मिथ हांणी किनेमाकलर नांवाची एक दुरंगी चित्रपट तयार करपाची पध्दत प्रचारांत हाडली. हेच कल्पनेवेल्यान विल्यम फ्रीझ ग्रीन हाणें बायोकलरची पध्दत सोदून काडली. १९०८ त, डेव्हिड वॉर्क ग्रिफिथ ह्या नाट्यकलाकारान नट आनी लेखक म्हूण चित्रपटसृश्टींत प्रवेश केलो. चित्रपट तंत्राचो जनक म्हूण ताचें नांव फुडलीं धा वर्सां चित्रपट सृश्टींत गाजलें. १९११ ते १९१४ ह्या काळांत चित्रपटाच्या मळार उपाट उदरगत घडून आयली आनी चित्रपटाची लांबाय सुमार ३०५ मी. मेरेन वाडली.

१९१५ त, हर्बर्ट टी. काल्मुर हाणें टेक्निकलर फिल्म तयार केलें. पयलो टॅक्निकलर चित्रपट फ्लॉरिडांत १९१८ च्या सुमाराक 'द गल्फ बिट्वीन' ह्या नांवान भायर सरलो. मूकपटांच्या काळांतलो म्हत्वाचो रंगीत चित्रपट म्हळयार डग्लस फेअरबँक्सचो १९२५ तलो 'द ब्लॅक पिरेट'. वॉल्ट डिझ्नी हाणें १९३२ त तयार केल्लो 'फ्लॉवर्स अँड ट्रीज' हो तिरंगी चित्रपट आनी उपरांत 'बेकी शार्प' (१९३५) आनी 'गॉन विथ द विंड' (१९३९) हेय चित्रपट नांव घेवपासारके आसात. ह्या काळांत जर्मनीचे आग्फा कलर, बेल्जियमचे गेव्हा कलर आनी इटलीचे फेरानिया कलर हे पध्दतीचे रंगीत चित्रपट सगळ्याक लोकप्रिय जाल्ले. १९३५ त, अमेरिकेच्या ईस्टमन कलरान 'कोडॅक्रोम' नांवाची रंगीत फिल्म १९३५ त प्रचारांत हाडली.

चित्रपटांक आवाज दिवपाचे नदरेन पयलो यत्न १८५७ त, फ्रांसांत लेऑन स्कॉट हाणें केलो. ध्वनीलहरींचें विद्युत्‌लहरींत रुपांतर करपाच्या वावरांत इंग्लंडच्या क्लार्क मॅक्सवेल आनी अलेक्झांडर ग्रॅहॅम हांणी मोलादीक संशोधन केलें. अमेरिकेंत एडिसनान १८७७ च्या सुमाराक आपल्या फोनोग्राफ यंत्रावरवीं मूक चित्रांक आवाज दिवपांत यश मेळयलें.

इंग्लंडच्या डोनिस्थोर्पे हाणें १८७८ त ध्वनिलेखनाविशींचो सोद लायिल्लो आनी १९०० च्या सुमाराक यूजीन हाणें फिल्माचेर ध्वनिलेखन करपाची मुळावी पध्दत सोदून काडिल्ली. डॉ. ली. डी. फॉरेस्ट आनी एच्. डी. आर्नल्ड हांणी ध्वनिक्षेपण पयस अंतरामेरेन पावतलें, अशें एक साधन तयार केलें (१९१२). १९१९-२० त, जर्मनींत आवाजलहरींचें उजवाडलहरींत रुपांतर करून फिल्माचेर ध्वनिमुद्रण करूंक येतलें, असल्या उपकरणांचें प्रात्यक्षिक जालें. ऑगस्ट १९२६ त, बेल टेलिफोन प्रयोगशाळेन ध्वनिमुद्रण केल्ली एक व्हडली ताटली तयार करून चित्रपटाक आवाजाची फाव ती जोड दिवपाची पध्दत पयलेच खेप सुरू केली. हेच पध्दतीचो उपेग करून वॉर्नर ब्रदर्स कंपनीन, ६ ऑगस्ट १९२६ ह्या दिसा 'डॉन जुआन' हो चित्रपट दाखयलो. ट्वेंटीएथ सेंच्युरी कंपनीन २८ ऑक्टोबर १९२७ दिसा ध्वनिमुद्रित फिल्माचो उपेग करून लघुचित्रपट आनी मुव्हिटोन वार्तापट आवाजासयत दाखोवपाक सुरवात केली. वॉर्नर ब्रदर्स कंपनीन ७ ऑगस्ट १९२७ दिसा 'द जाझ सिंगर' हो बोलपट सादर केलो. १९३० त मूकपटांचो काळखंड सोंपलो. ताटलेवयलें ध्वनिमुद्रण वचून फिल्मावयलें ध्वनिलेखन केल्ले बोलपट दाखोवपाखातीर तरेकवार उपकरणां प्रचारांत आयलीं. १९२९ त 'ब्लॅकमेल' हो ॲल्फ्रेड हिचकॉक हाणें दिग्दर्शित केल्लो पयलो इंग्लीश बोलपट तयार जालो. २२ ऑक्टोबर १९२९ दिसा लंडनच्या न्यू गॅलरी सिनेमांत 'ए थ्रो ऑफ डाइस' हो परदेशी तंत्रज्ञांनी भारतांत तयार केल्लो बोलपट दाखयलो. १९३०-५२ मेरेनच्या काळांत चित्रपटनिर्मितीच्या मळार तंत्रिक नदरेन बऱ्योच सुदारणा जाल्यो. सिनेरॅमा पध्दतीन ध्वनिमुद्रण आनी ध्वनिक्षेपण जावपाक लागलें. उपरांत, सिनेमास्कोप पध्दत, परफेक्ट-ए-साउंड पध्दत, व्हिस्टा व्हिजन, टॉड-ए-ओ सिनेमिरॅकल अश्यो कितल्योश्योच पध्दती आयल्यो. त्रिमितीय पध्दतीचो (three-dimensional system) 'ब्वाना डेव्हिल' हो पयलो चित्रपट 'युनायटेड आर्टिस्ट' हे संस्थेन १९५३ त हॉलिवूड हांगा तयार केलो.

**चित्रपटांचे प्रकार:** चित्रपटांच्या इतिहासीक विकासक्रमांत कथाचित्रपटांवांगडाच व्यंगचित्रपट, वार्तापट, अनुबोधपट, प्रसिध्दीपट, बालचित्रपट, सैनिकी चित्रपट, शिक्षणीक चित्रपट असले विंगड विंगड प्रकार उदयाक आयले. 'गेम ऑफ प्लेइंग कार्ड्स' हो चित्रपट तयार करपी झॉर्झ मिली आनी आर्. डब्ल्यू. पॉल हांकां व्यंगचित्रपटांचे जनक अशें मानतात. पूण १९०८ त एमील कोल हाणें सुमार ३१ मी. लांबायेचो 'फँटास्मागोरिया' हो मुळाव्या स्वरुपाचो व्यंगचित्रपट तयार केल्लो, तोच खऱ्या अर्थान पयलो व्यंगचित्रपट अशें मानतात. १९२८ त, वॉल्ट डिझ्नी हाच्या एका उलोवपी व्यंगपटांत 'मिकी माऊस' चो पयलेच खेप प्रवेश जालो. १९३७ त, डिझ्नीन 'स्नो व्हाइट अँड द सेव्हन ड्वार्फ्स' हो पयलो व्यंगचित्रपट तयार केलो.

ल्युमिॲर ब्रदर्स कंपनीच्या एका प्रतिनिधीन, १९०१ त व्हिक्टोरिया राणीचे अंत्ययात्रेचो एक चित्रपट तयार केल्लो. ताका पयल्या वार्तापटाचो मान फाव जाता. 'पाथे वीकली' नांवाचो सप्तकी वार्तापट १९०९ वर्सा सावन दाखोवपाक सुरवात जाली. पाथे आनी लीऑन फ्रँको हांणी फ्रांस आनी अमेरिकेंत वार्तापट प्रदर्शित करपाक सुरवात केली.

अनुबोधपटाची खरी सुरवात १८९६ त जाली. ल्यूमिॲर (फ्रांस), एडिसन (अमेरिका), मायब्रिज (अमेरिका) हांच्या चित्रपटांची सुरवातूच अनुबोधपटांनी जाल्ली. अनुबोधपट वा माहितीपट म्हळयार मनीस वा वस्तू हांची विस्तृत चित्ररुप नोंद. रॉबर्ट फ्लाअर्टी हाणें 'ननूक ऑफ द नॉर्थ' नांवाचो संवसारांतलो पयलोच लघुचित्रपट तयार केलो (१९२२). रॉबर्ट फ्लाअर्टी हाका अनुबोधपटाचो जनक अशें मानतात. रशिया

(१९२३), फ्रांस (१९२६), जर्मनी (१९२७) आनी इंग्लंड (१९२९) ह्या देशांतूय असल्या प्रकारचे लघुचित्रपट तयार जाले. १९२९ त, जॉन ग्रीअर्सन हाणें 'ड्रिफ्ट्स' नांवाचो एक लघुचित्रपट तयार केलो. तेन्नासावन ताणें असल्या लघुचित्रपटांक 'डॉक्युमेंटरी' (वार्तापट) हो शब्द पयलेच खेप प्रचारांत हाडलो.

मालाची जायरात करपाखातीर, मुखेल चित्रपट सुरू जावंचेपयलीं वा मध्यंतराउपरांत, प्रसिध्दीपट दाखयतात. मुंबयंत १९१० त 'बर्न्स स्टर्लाइज्ड मिल्क' हो पयलो प्रसिध्दीपट प्रदर्शित जालो. लिव्हर ब्रदर्स लि. हे कंपनीन १९३७-३८ च्या सुमाराक आपल्या लिंटास लि. नांवाचे जायरात-संस्थेवरवीं ल्हान-ल्हान जायरातपट तयार केले. संवसारीक स्तराचेर प्रसिध्दीपटांचे महोत्सव दर वर्सा जातात आनी बऱ्या प्रसिध्दीपटांक तस्त्रीपोय मेळटात.

चित्रपट हें प्रचाराचें आनी शिक्षणीक प्रसाराचें एक परिणामकारक माध्यम आशिल्यान संवसारांतल्या जायत्या राश्ट्रांनी आपापल्या सैन्यदलांतल्या सैनिकांक फाव तें लश्करी, आरमारी आनी हवाई शिकप दिवपाखातीर चित्रपटांचो वापर करून घेतलो. दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजाच्या काळांत, अमेरिकेंत 'ऑफिस ऑफ इंटरअमेरिकन अफेअर्स'; 'ऑफिस ऑफ इन्फर्मेशन' आनी 'वॉर प्रॉडक्शन बोर्ड' हांचेसारकिल्यो समित्यो, झुजाविशींचे आनी सैनिकी प्रशिक्षणाविशींचे चित्रपट काडपाचो वावर करताल्यो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत भारतांतूय एक सैनिकी चित्रपट-विभाग सुरू केल्लो. तेन्नाच्या हिंदुस्थान सरकारान १९४०-४१ ह्या सुमाराक 'जनरल स्टाफ ट्रेनिंग फिल्म सेंटर' ह्या नांवान एक चित्रपटनिर्मिती विभाग एका लश्करी अधिकाऱ्याच्या फुडारपणाखाल सुरू केल्लो. आतां 'फिल्म अँड फोटो सेक्शन' ह्या नांवाचो एक ल्हान सैनिकी चित्रपट-विभाग दिल्ली हांगा आसून तो मुंबयच्या केंद्रीय फिल्म डिव्हिजनाकडल्यान लश्करी स्वरुपाचे चित्रपट तयार करून घेता.

**चित्रपटनिर्बंध**: चित्रपटनिर्मिती वेवसायिक नदरेन जावपाक लागतकच, तिका एक तरेची शिस्त लावपाखातीर, १८९६ सावन तिचेर कायदेशीर निर्बंध घाले. चित्रपटांत किदें आसचें आनी किदें नासचें, हें थारायलें. बुरशे, बीभत्स, अत्याचारी, अवास्तव, उत्तान शृंगारप्रधान आनी सांस्कृतिक मूल्यांचेर आघात करपी देखाव हांचो प्रेक्षकांच्या मनाचेर वायट परिणाम जाता आनी ताका लागून समाजीक नीत इबाडटा, अशें दिसून आयिल्ल्यान चित्रपटांतल्या अशा देखाव्यांचेर हे निर्बंध घाले.

उमे (kisses) घेवपाचो अतिरेक दाखयल्लो एक चित्रपट १८९६ त, अमेरिकेंत तयार जाल्लो. तेन्नासावनं ताचेर खर टिका जावपाक लागली. तेउपरांत, विल हेझ नांवाच्या एका विद्वान मनशान अमेरिकेंतल्या चित्रपटनिर्मात्यांच्या आनी वितरकांच्या संस्थांचे विनंतीवेल्यान १९२२ त, चित्रपटाविशींची एक आचारसंहिता (Code of Administration) तयार केली. तेन्नासावन अमेरिकेंतले चित्रपटनिर्माते ते आचारसंहितेचें पालन करतात. ह्याच हेतान इंग्लंड, फ्रांस, जर्मनी, डेन्मार्क ह्या देशांतूय चित्रपटाविशींच्यो आचारसंहिता तयार जाल्यो. इंग्लंडांत १९०९ त सिनेमॅटोग्राफ ॲक्ट जालो आनी तेउपरांत १९१२ त पयली 'ब्रिटीश बोर्ड ऑफ फिल्म सेन्सॉर्स' हे समितीची थापणूक जाली. तेन्नासावन थंय पार्लमेंटान मान्यताय दिल्लो कायदो चालीक लागला.

अमेरिका आनी इंग्लंड ह्या देशांतल्या अभ्यवेक्षण (censorship) पध्दतीचें अनुकरण करून भारतांत १९१८ त 'इंडियन सिनेमॅटोग्राफ ॲक्ट' नांवाचो कायदो केलो. १९२० त मुंबय, कलकत्ता, मद्रास आनी रंगून हांगा आनी १९२७ त पंजाबांत प्रांतीय अभ्यवेक्षण मंडळांची थापणूक जाली. १ सप्टेंबर १९४९ दिसा भारतीय चित्रपट कायद्यांत दुरुस्ती जाली. ह्या कायद्याप्रमाण भारतांतल्या खंयचेय भौशीक सुवातीचेर चित्रपट दाखोवचेपयलीं तो दाखोवपाखातीर योग्य काय अयोग्य आसा, हें थारावन तेवरवीं पसंतीचो दाखलो दिवप, नाका आशिल्लो भाग काडून उडोवपाक सांगप वा नापसंतीचो शिक्को मारून तो रद्द थारावप, हे अधिकार केंद्रीय शासनान आपलेकडेन घेतले. ज्या प्रकारच्या देखाव्यांक अभ्यवेक्षण-मंडळ आक्षेप घेता, तांचे पन्नास प्रकार कायद्यांत दिल्यात.

नवो खर कायदो १ मे १९४९ दिसा संमत जावन १ सप्टेंबर १९४९ सावन तो चालीक लागलो. ताचेवरवीं पसंत आशिल्ल्या चित्रपटांक 'यू' (Universal म्हळ्यार सार्वत्रिक) आनी 'ए' (Adults म्हळ्यार प्रौढांखातीर) अशे दोन तरेचे दाखले दिवपाक भारतांत सुरवात जाली. खंयच्याय पिरायेच्या प्रेक्षकांक दाखोवपाक योग्य असल्या चित्रपटांक 'यू' हो दाखलो मेळटा आनी फकत १८ वर्सांवयल्या पिरायेच्या प्रेक्षकांक दाखोवपाक योग्य असल्या चित्रपटांक 'ए' हो दाखलो मेळटा. खंयचेय तरेचो चित्रपट दाखोवचेपयलीं अभ्यवेक्षण मंडळाची मान्यताय घेवंकूच जाय, असो मुखेल निर्बंध आसून मान्यतायेचो दाखलो चित्रित करून ती फिल्म त्या त्या चित्रपटाचे सुर्वेक जोडूंकूच जाय, अशेंय बंधन आसा. सुर्वेक चित्रपट तपासणी राज्य शासनावरवीं जाताली. १५ जानेवारी १९५१ दिसा सेंट्रल बोर्ड ऑफ फिल्म सेन्सॉरची थापणूक जावन ताची मुखेल कचेरी मुंबयंत सुरू जाली आनी चित्रपट तपासणेचें काम हो बोर्ड पळोवपाक लागलो. १९५२ त सरकारान चित्रपट कायद्यांत सुदारणा केली आनी २८ जुलय १९५२ सावन सेन्सॉर बोर्डाच्या कामाक सुरवात जाली. १ जुलय १९७५ सावन चित्रपटांक नवे नेम लागू केल्यात. तातूंत चित्रपट अभ्यवेक्षणांत कांय म्हत्वाचे बदल केल्यात. सुर्वेक अभ्यवेक्षण-मंडळाचेर सरकारी आनी निमसरकारी अशे सुमार ३५ सभासद आशिल्ले. आतां नव्या मंडळावयले सगळे सभासद नवे आसून तांचो आंकडो १५ आसा.

**मालकी हक्क** (Copyright): १९५७ तल्या मालकी हक्क कायद्याप्रमाण चित्रपटाच्या कर्त्याक चित्रपट तयार करप, चित्रपटाची चित्रफिल्म, ध्वनिफिल्म, चित्रपटांतल्यो ध्वनीमुद्रिका, चित्रपटांचें कथानक, संवाद, गीतां हेविशीं खाशेले हक्क दिल्यात. ह्या कायद्याप्रमाण चित्रपटाच्या कर्त्याक चित्रपटाची विक्री करपाचो, तो भाड्यान दिवपाचो वा त्या चित्रपटाचें खाजगी वा भौशीक सुवातीचेर प्रदर्शन करपाचो अधिकार आसता. तशेंच चित्रपटाच्या पदांच्या ध्वनीमुद्रिकांचें पुनर्मुद्रण करप वा त्यो खाजगी वा भौशीक सुवातींनी वाजोवपाक दिवप, रेडिओवरवीं त्यो ध्वनिक्षेपित करप हे विशींय कायदेशीर हक्क आसतात. मालकी हक्काचो भंग जाल्यार चित्रपटकर्तो तशें करतल्याआड कायदेशीर उपाय करून आपल्या न्याय्य हक्कांचें संरक्षण करूंक शकता.

**चित्रपटमहोत्सव**: चित्रपटकलेचो पांवडो वाडून तिची चडांत चड उदरगत जावची आनी चित्रपटांतल्या तंत्राविशींच्या आंगांच्या विचारांचें दिवप-घेवप जावंचें, तशेंच वेगवेगळ्या देशांतले चित्रपट एकठांय पळोवपाची संद चित्रपट रसिकांक मेळची, ह्या हेतान आंतरराश्ट्रीय आनी राश्ट्रीय पांवड्याचेर चित्रपटमहोत्सव मनयतात. असले तरेचो पयलो चित्रपटमहोत्सव व्हेनिस (इटली) हांगा १९३२ त जालो. तेउपरांत, कान (फ्रांस) हांगा १९३९ सावन वर्सानवर्स आंतरराश्ट्रीय पांवड्याचेर चित्रपटमहोत्सव जावपाक लागले. सांउ पाउलू (ब्राझील), सॅन सिबॅस्चॅन (स्पेन), मारे देल प्लाता (अर्जेंटिना), एडिंबरो (स्कॉटलंड), कारलॉवी व्हारी (चेकोस्लोव्हाकिया) आनी हेर देशांतूय असले चित्रपटमहोत्सव भरतात. भारतांत पयलो आंतरराश्ट्रीय चित्रपटमहोत्सव १९५२ त जालो.

**चित्रपट- पुरस्कार आनी इनामां**: बऱ्यांतल्या बऱ्या चित्रपटांक पुरस्कार दिवपाची प्रथा 'अमेरिकन ॲकॅडेमी ऑफ मोशन पिक्चर आर्ट्स अँड सायन्स' हे संस्थेन सुरू केली. ही प्रथा १९२७-२८ त सुरू जाली. हे संस्थेवरवीं भांगराचो मुलामो आशिल्ली ब्राँझची मूर्त बऱ्यांतल्या बऱ्या चित्रपटाक आनी सर्वोत्तम कलावंतांक एका दबाज्यांत भोवमानान भेटयतात. ताका 'ऑस्कर पुरस्कार' अशें म्हण्टात. १९२८ त ह्या पुरस्काराचो पयलो मान पॅरामाउंट पिक्चर्सच्या 'विंग्ज' ह्या चित्रपटाक मेळ्ळो. असलेच तरेचे पुरस्कार 'द ब्रिटीश फिल्म ॲकॅडेमी' ही संस्थाय दिता.

भारतांत केंद्रीय सरकारच्या म्हायती आनी नभोवाणी खात्यावरवीं बऱ्या भारतीय चित्रपटांक शासकीय पुरस्कार आनी प्रशस्तिपत्रां दिवपाचो उपक्रम १९५४ सावन सुरू जालो. १९५५ सावन प्रादेशिक पुरस्कार दिवपाक सुरवात जाली. अखिल भारतीय इनामां मुखेल ३ आसात: १. सर्वोत्तम कथाचित्रपटाक राश्ट्रपति भांगरापदक २. सर्वोत्तम माहितीपटाक उपराश्ट्रपति भांगरापदक ३. सर्वोत्तम बालचित्रपटाक पंतप्रधान भांगरापदक. पयल्याच वर्सा (१९५४) अखिल भारतीय कथाचित्रपटाचें राश्ट्रपति भांगरापदक 'श्यामची आई' ह्या मराठी चित्रपटाक मेळिल्लें आनी म्हायतीपटाखातीर आशिल्लें उपराश्ट्रपति भांगरापदक 'महाबलीपुरम्' ह्या म्हायतीपटाक मेळिल्लें. १९७४ सावन दर वर्सा सर्वोत्तम चित्रपट निर्मात्याक, दिग्दर्शकाक, छायाचित्रकाराक, अभिनेत्याक, अभिनेत्रीक, बालकलाकाराक, पार्श्वगायकाक, संगीत दिग्दर्शकाक, पटकथालेखकाक, कथालेखकाक, गीतलेखकाक, बालचित्रपटनिर्मात्याक, म्हायतीपटनिर्मात्याक, शिक्षणीक वा अनुबोधपटनिर्मात्याक, समाजीक चित्रपटनिर्मात्याक, वेपारी उत्तेजक अनुबोधपटनिर्मात्याक आनी दिग्दर्शकाक तशेंच आनीकूय हेर कलाकारांक पदकां आनी रोख इनामां दितात.

राज्यपांवड्यार त्या त्या राज्यांतल्या भाशांनी तयार जाल्ल्या चित्रपटांक तशींच आनी रोख रकमेचे पुरस्कार दितात. असले तरेचे चित्रपटपुरस्कार दिवपाची प्रथा महाराष्ट्र, केरळ, कर्नाटक, आंध्र प्रदेश, अस्तंत बंगाल आनी गुजरात राज्यांनी आसा. 'फिल्म फेअर' ह्या इंग्लीश सिनेपाक्षिकान १९५४ सावन सर्वोत्तम हिंदी आनी प्रादेशिक भासांतले चित्रपट तशेंच बरोवपी, कलावंत, तंत्रज्ञ हांकां पुरस्कार दिवपाक सुरवात केली. नासिकच्या 'रसरंग' ह्या सातोळ्यावरवीं आनी वसंतराव पहेलवान यादस्तिक पुरस्कार समितीवरवीं मराठी चित्रपटांक इनामां दितात.

**भारतीय चित्रपट:** भारतांत चलत्‌चित्रपटाची सुरवात १८९६ त जाली. चित्रदीपाचो उपेग करून १८८९-९० च्या सुमाराक श्रीकृष्ण चरित्रांतल्या कांय प्रसंगांचो चलत्‌चित्रपट मदनराव माधवराव पितळे मुंबयंत दाखयतालो. असलेच तरेचो प्रयोग कल्याणच्या पटवर्धन कुटुंबांत केल्लो. जुलय १८९६ त, हरिश्चंद्र सखाराम भाटवडेकर उर्फ सावेदादा हाणें प्रक्षेपकांवरवीं पडद्याचेर देखाव दाखोवपाक यश मेळयलें.

चलत्‌चित्रपटाचो उदय १८९६ त जालो, तरीकूय भारतांत ताची सुरवात १९१२ त जाली. ऑगस्ट १९१२ त, दादासाहेब फाळके हाणें भारतांत 'रोपट्याची वाढ' हो सुमार १५ मी. चो लघुपट चित्रित केलो. उपरांत १९१२ त, दादासाहेबान 'राजा हरिश्चंद्र' हो सुमार १,१२८ मी. लांबायेचो पयलो भारतीय चित्रपट पुराय केलो. भारतांतलो हो पयलो चित्रपट मुंबय शारांत निर्माण जालो; तो मराठी भाशेंत आशिल्लो. ताणें 'पिठाचे पंजे' नांवाचो एक विनोदी लघुपट आनी कांय मूकपट तयार केले. दादासाहेब फाळके हाका भारतीय चित्रपटसृश्टीचो जनक अशें मानतात. ताणें १९१७ मेरेन १३ लघुपट धरून १७ चित्रपट सादर केले. ह्याच काळांत अनंत परशुराम करंदीकर, एस्. एन्. पाटणकर आनी व्ही. पी. दिवेकर हांणीय कांय मूकपट तयार केले. १९१२ त, नारायण चित्रे, पुरुषोत्तम टिपणीस, दत्तात्रय दाबके, बुकबाईंडर जोशी, रामराव किर्तिकर हांणी विदेशी तंत्रज्ञांचो आदार घेवन सिने कॅमेऱ्याचेर 'पुंडलिक' हो कथापट तयार केलो. १९१७ त, दादासाहेब फाळके हाचो 'लंकादहन' हो चित्रपट खूब गाजलो. लंकादहनाच्या उपाट यशाउपरांत, वामन आपटे, माया शंकर भट्ट, एल्. बी. पाठक, माधवजी जेसिंग आनी गोकुळदास दामोदरदास हांणी दादासाहेब फाळके हाका आपल्या वांगडा भागाक घेवन १९१७ त, फाळके फिल्माचें 'हिंदुस्थान फिल्म कंपनी'त रुपांतर केलें आनी फुडें हे कंपनीवरवीं १०० मूकपट तयार केले. वामन श्रीधर आपटे हाणें, मद्रासाक मूकपट खूब चलतात हें पळोवन थंय एक चित्रपट-वितरण कार्यालय उगडलें.

भारतांत सिने-कॅमेरा स्वता तयार करपाचो मान आनंदराव पेंटर हाका वता. आनंदराव पेंटर आनी बाबूराव पेंटर हांणी कांय लघुपट आनी चित्रपट तयार केले. बाबूराव पेंटर हाणें १९१८-१९ त 'सैरंध्री' हो पयलो कलात्मक चित्रपट काडलो. 'सिंहगड' हो पयलो इतिहासीक मूकपट बाबूराव पेंटर हाणें सादर केलो. बाबूरावाचे शिष्य दामले, फत्तेलाल, व्ही. शांताराम हांणीय फुडें चित्रपटनिर्मिती करपाक सुरवात केली. त्या काळांतले मूकपट चड करून पुराणकथा, दंतकथा, लोककथा, इतिहास ह्या विशयांचेर आदारिल्ले आसताले. छायाचित्रकार पांडुरंग तलगिरी हाच्या युनायटेड पिक्चर सिंडिकेट हे खडकीचे चित्रपटसंस्थेन जायते इतिहासीक चित्रपट सादर केले.

महाराष्ट्रांत चित्रपटसृश्ट आकाराक येता आसतनाच बंगालांतूय चित्रपटनिर्मितीखातीर यत्न चालू आशिल्ले. कलकत्त्याचो हिरालाल सेन हाणें पाथे कंपनीच्या एका छायाचित्रकाराच्या पालवान, १९०३ त 'अलिबाबा' ह्या लोकप्रिय बंगाली नाटकांतल्या नाचाचो कांय भाग चित्रित केलो. तो त्या नाटकावांगडा दाखयताले. सुरेंद्रनाथ सेन हाणें १९०५ त, बंगालचे फाळणीवेळार जी चळवळ जाल्ली, तिचो लघुपट बंगालांतली सगळ्यांत पोरनी चित्रपटसंस्था 'अरोरा फिल्म कंपनी' हिचेखातीर ज्योती सरकार हाणें तयार केल्लो. कलकत्त्याक १९१७ त जे. एफ्. मादन हाणें इटालियन कलाकार घेवन बंगालांतलो 'नलदमयंती' हो पयलो मूकपट सादर केलो. १९२० ते १९३० ह्या काळांत बंगालांत कितल्योश्योच चित्रपटनिर्मितीसंस्था सुरू जाल्यो आनी बंदूय पडल्यो; पूण हातूंत एकूच संस्था तिगून उरली, ती 'मादन थिएटर्स'. हे नांवाजते संस्थेन वट्ट ८६ मूकपट तयार केले. १९३० त, बी. एन्. सरकार हाच्या 'इंटरनॅशनल फिल्म क्राफ्ट' हे संस्थेनूय नांव मेळयलें. हेच संस्थेचें फुडें 'न्यू थिएटर्स' हे संस्थेंत रुपांतर जालें.

विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक दक्षिणेंत नटराज मुदलियार हाणें चित्रपटनिर्मितीखातीर यत्न केले. १९२१ सावन स्टार ऑफ द ईस्ट फिल्म कंपनीची मद्रासांत थापणूक जावन 'भीष्मप्रतिज्ञा' ह्या चित्रपटान दक्षिणेंत चित्रपटनिर्मितीक सुरवात जाली. १९३४ मेरेन दक्षिणात्य भासांतल्या चित्रपटांची निर्मिती मुंबय आनी कलकत्ता हांगा जाताली. पंजाबांत १९२६ त, दिल्लीच्या ग्रेट ईस्टर्न फिल्म कॉर्पोरेशनान 'द लाईट ऑफ एशिया'. हो पयलो मूकपट सादर केलो. हिमांशु रॉय हाणें तो तयार केल्लो. विष्णुपंत दामले, एस्. फत्तेलाल, व्ही. शांताराम, केशवराव धायबर, हिमांशू रॉय, देवकी बोस, नितीन बोस, प्रथमेश बरूआ, भा. वि. वरेरकर, शिवराम वाशिकर, शं. प. जोशी, विष्णुपंत औंधकर हांच्यासारकिल्या जाणकारांक लागून १९२८ उपरांत ऊंच पांवड्याचे भारतीय मूकपट तयार जावपाक लागले. १९३१ त, भारतांत बोलपटांक सुरवात जाली. फुडल्या ४४ वर्सांत भारतीय चित्रपटसृश्टींत बरीच उदरगत घडून आयली. भारतांतल्या सगळ्या उद्येगधंद्यांत चित्रपटउद्येगाचो दुसरो क्रमांक लागता. १९७५ त, भारतीय चित्रपटसृश्टीचो संवसारांत पयलो क्रमांक आशिल्लो. दोनशें परस चड चित्रपटसंस्थांनी भारतांत वट्ट १,२६८ मूकपट तयार केले. भारतांत आयजमेरेन ३४ भासांनी बोलपट तयार जाल्यात. १९८८ त, भारतांत वट्ट ७७३ चित्रपट तयार जाले.

**चित्रपट सल्लागार मंडळ:** ब्रिटीश सरकारान भारतांत प्रचारपटांचे निर्मितीची येवजण आंखून चित्रपट सल्लागार मंडळाची (फिल्म ॲडव्हायझरी बोर्ड) थापणूक जून १९४० त केली. हेच संस्थेचें रुपांतर सरकारान १ फेब्रुवारी १९४३ ह्या दिसा 'इन्फॉर्मेशन फिल्म्स ऑफ इंडिया' हे संस्थेंत केलें. जून १९४० ते मे १९४६ ह्या ६ वर्सांच्या काळांत हे संस्थेन १७० अनुबोधपट, वार्तापट आनी झुजप्रचारपट तयार केले. १९४९ त, भारत सरकारान चित्रपट सल्लागार मंडळाची पुनर्रचना केली.

**लघुपट प्रभाग:** १९४८ त, भारत सरकारान 'फिल्म प्रभाग' (फिल्म्स डिव्हिजन) हो स्वतंत्र लघुपट विभाग मुंबय सुरू केलो. १४ मुखेल भारतीय भासो आनी एक इंग्लीश अशा वट्ट १५ भासांनी हांगा लघुपट तयार जातात. परदेशी भासांतूय तांचो अणकार जाता.

**राज्य चित्रपट विभागः** महाराष्ट्र, तमिळनाडू, बंगाल, गुजरात, कर्नाटक, पंजाब, हरयाणा, उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश, जम्मू काश्मीर, त्रिपुरा, ओरिसा, मणिपूर, बिहार अशा वट्ट १४ राज्यांत अनुबोधपट-वार्तापट तयार जातात. तातूंत राज्यांतल्या विकासकार्याची प्रगती आनी राज्यांतले म्हत्वाचे समारंभ चित्रित करतात.

**मराठी चित्रपटः** दादासाहेब फाळके हाणें तयार केल्लो 'राजा हरिश्चंद्र' हो मराठी चित्रपट १७ मे १९१३ ह्या दिसा मुंबयंत प्रदर्शित जालो. हो पयलो भारतीय चित्रपट जावन आसा. ह्या चित्रपटाच्या प्रदर्शनान मराठी तशेंच भारतीय चित्रपटसृश्टीच्या इतिहासाक सुरवात जाली. उपरांत बाबूराव पेंटर हाणें 'सैरंध्री' हो कलात्मक मूकपट १९१८ त सादर केलो. कोल्हापुरांत 'महाराष्ट्र फिल्म कंपनी' आनी 'प्रभात फिल्म कंपनी' ह्या दोन संस्थांनी कितलेशेच सोबीत मूकपट तयार केले. प्रभातचो चालक विष्णुपंत दामले हाणें ६ फेब्रुवारी १९३२ ह्या दिसा मुंबयंत 'अयोध्येचा राजा' हो पयलो मराठी बोलपट प्रदर्शित केलो. मा. विठ्ठल हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या 'औट घटकेचा राजा' ह्या हिंदी-मराठी भाशेंत तयार केल्ल्या बोलपटांत शाहू मोडक हाणें मराठीतली पयली दुहेरी भूमिका (डबलरोल) केल्ली. प्रभात फिल्म कंपनीन १९३२ त, पयलो मराठी इतिहासीक बोलपट 'सिंहगड' सादर केलो.

गोविंदराव टेंबे, बंडोपंत सोहनी, केशवराव दाते, नानासाहेब फाटक, गणपतराव बोडस, हिराबाई बडोदेकर, बालगंधर्व, के. नारायण काळे, मा. दीनानाथ, वैशंपायन, चिंतामणराव कोल्हटकर, बापूसाहेब पेंढारकर, सुरेशबाबू माने, दिनकर कामण्णा, दामुअण्णा मालवणकर, कमलाबाई बडोदेकर, विष्णुपंत औंधकर आनी हेर जायते रंगमाचयेवेले कलाकार चित्रपटसृश्टींत आयले आनी तांणी नांव मेळयलें.

१९३७ त, बालगंधर्वान 'साध्वी मीराबाई' हो बोलपट काडलो. तातूंत बालगंधर्वान मीराबाईची स्त्री भूमिका केली. कोल्हापुरांत 'विलासी ईश्वर' (१९३५) हो मराठींतलो पयलो सामाजीक चित्रपट सादर जालो. हो चित्रपट मामा वरेरकर हाणें बरोवन मा. विनायक हाणें दिग्दर्शित केल्लो. ह्याच काळांत विश्राम बेडेकर हाणें सांगलीक 'ठकीचे लग्न' आनी हेर कांय विनोदी चित्रपट काडले. १९३६ त, विष्णुपंत दामले आनी शेख फत्तेलाल हांणी दिग्दर्शित केल्लो प्रभातचो 'संत तुकाराम' चित्रपट खूब गाजलो. व्हेनिसच्या जागतिक चित्रपटप्रदर्शनांत संवसारांतल्या तीन सर्वोत्तम चित्रपटांत ह्या चित्रपटाची गणना जाली. १९३८ शालिनी सिनेटोन संस्थेचो, के. पी. भावे हाणें दिग्दर्शित केल्लो 'ध्रुवकुमार' हो बालकलाकारांचो पयलोच मराठी चित्रपट आसा. आचार्य अत्रे हाणें बरयल्ले 'धर्मवीर' (१९३७), 'प्रेमवीर' (१९३७), 'ब्रह्मचारी' (१९३८), 'ब्रँडीची बाटली' (१९३९) आनी हेर चित्रपट खूब लोकप्रिय जाले.

चित्रपटाची श्रेयनामावली (titles) इंग्लीश भाशेंतल्यान दिवपाची प्रथा आशिल्ली. स्वातंत्र्यवीर सावरकर हाणें ही प्रथा बंद करुन मराठींतल्यान श्रेयनामावली दिवपाची पध्दत सुरू केली. दामले आनी फत्तेलाल, व्ही. शांताराम आनी मा. विनायक हांणी ह्या काळांत कांय दर्जेदार चित्रपट सादर केले. कमलाबाई मंगरूळकर ही मराठींतली पयली बायल चित्रपटनिर्माती. तिणें 'सावळ्या तांडेल' (१९४२) आनी रुक्मिणी स्वयंवर हे मराठी चित्रपट तयार केले. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत कच्च्या फिल्माची तूट आयली. ताका लागून जुलय १९४३ त, एका सरकारी आदेशावरवीं कच्च्या फिल्माचेर कडक निर्बंध आयले. ह्या परिणामाक लागून मराठी चित्रपटनिर्मिती मात्शी थंडावली. हिंदी चित्रपटांची लोकप्रियता वाडिल्ल्यान सामान्य मनीस ह्या चित्रपटांकडेन आकर्शित जालो. पूण उपरांत, मराठी चित्रपटांचे निर्मितींत परत वाड जाली आनी १९६२ त, २२ मराठी चित्रपट प्रदर्शित जाले. १९७१ मेरेन कितलेशेच मराठी चित्रपट उजवाडाक आयले. ह्याच काळांत ग. दि. माडगूळकर, पु. ल. देशपांडे, ग. रा. कामत, संगीत दिग्दर्शक सुधीर फडके हांचो चित्रपटसृश्टींत उदय जालो. आचार्य अत्रे हाच्या 'श्यामची आई' ह्या चित्रपटाक सर्वोत्तम चित्रपटाचें पयलेंच राष्ट्रपति भांगरापदक मेळळें (१९५३). राजा ठाकूर, भालजी पेंढारकर, अनंत माने, माधव शिंदे, दत्ता धर्माधिकारी आनी मधुकर पाठक हांचेय चित्रपट लोकप्रिय जाले. मधुसुदन कालेलकर हाका चित्रपट कथालेखनांत यश मेळळें.

दक्षिण महाराष्ट्रांत साखर कारखान्यांची वाड जावपाक लागतकच त्या वाठारांतल्या शेतकामत्यांच्या हातांत पयसो घोळपाक लागलो. तमाशाप्रधान आनी लावणीप्रधान चित्रपटांची मागणी वाडली. अनंत माने आनी वसंत पेंटर हांचे अशे तरेचे चित्रपट खूब गाजले. १९७४ चो सर्वोत्तम चित्रपट म्हूण वसंत पेंटर हाच्या लावणीप्रधान 'सुगंधी कट्टा' ह्या चित्रपटाक राज्य सरकारचो पयलो पुरस्कार मेळळो. १९७१ त दादा कोंडके हाचो हेच तरेचो 'सोंगाड्या' चित्रपट लोकप्रिय जालो आनी ताच्याफाटोफाट कोंडकेच्या 'एकटा जीव सदाशिव', 'आंधळा मारतो डोळा', 'पांडु हवालदार' ह्या चित्रपटांनीय शारांत आनी खेड्यांत उपाट यश मेळयलें. १९६५ त व्ही. शांताराम हाणें काडिल्लो 'इये मराठीचिये नगरी' हो पयलो मराठी रंगीत चित्रपट. ताच्याफाटोफाट ताणें 'पिंजरा' (१९७२), 'बायांनो नवरे सांभाळा' (१९७४), 'ज्योतिबाचा नवस' (१९७५) आनी हेर कांय रंगीत मराठी चित्रपट प्रदर्शित केले. १९७६-१९८८ ह्या काळांत वट्ट २७० मराठी चित्रपट तयार जाले. हेर भाशीक चित्रपटांच्या मानान मराठी चित्रपटनिर्मिती वट्ट भारतीय चित्रपटनिर्मितीच्या फकत ५ टक्के इतली आसा.

मराठी चित्रपटसृश्टींत नामना जोडिल्ले कांय कलाकारः दादासाहेब फाळके, बाबुराव पेंटर, मा. विठ्ठल, शाहू मोडक, विष्णुपंत दामले, भालजी पेंढारकर, शांता आपटे, मो. ग. रांगणेकर, ज्योत्स्ना भोळे, गोविंदराव टेंबे, बाबुराव पेंढारकर, व्ही. शांताराम, केशवराव दाते, दामुअण्णा मालवणकर, दिनकर कामण्णा, शेख फत्तेलाल, मा. विनायक, विश्राम बेडेकर, आचार्य अत्रे, पांडुरंग नाईक, गजानन जहागिरदार, शिवराम वाशीकर, शांताराम आठवले, नारायण काळे, ना. ह. आपटे, ग. दि. माडगूळकर, पु. ल. देशपांडे, ग. रा. कामत, सुधीर फडके, राजा परांजपे, राजा नेने, दत्ता धर्माधिकारी, राम गबाळे, राजा ठाकूर, राजा गोसावी, अनंत माने, मधुसुदन कालेलकर, वसंत पेंटर, दादा कोंडके, कमलाकर तोरणे, राजदत्त, दिनकर पाटील, दुर्गा खोटे, ललिता पवार, श्री. रा. चिटणीस, साळवी, हंसा वाडकर, उषा किरण, सूर्यकांत, रमेश देव, सीमा देव, चंद्रकांत, जयश्री गडकर, चंद्रकांत गोखले, वसंत शिंदे, शरद तळवलकर, अरुण सरनाईक, काशिनाथ घाणेकर, जयदीश खेबूडकर, वसंत देसाई, वसंत पवार, राम कदम, शंकर पाटील, शांताराम आठवले, पी. सावळाराम, राजा बढे, निळू फुले, डॉ. श्रीराम लागू, वर्षा उसगांवकार.

**हिंदी चित्रपटः** अर्देशिर इराणी हाच्या इंपीरिअल फिल्म कंपनीचो 'आलमआरा' हो पयलो हिंदी बोलपट १४ मार्च १९३१ दिसा मुंबयच्या मॅजेस्टिक चित्रपटगृहांत प्रदर्शित जालो. मुंबयच्या कृष्ण फिल्म कंपनीचो 'हरिश्चंद्र' हो दुसरो हिंदी बोलपट आनी कलकत्त्याच्या मादन थिएटर्सचो 'शिरीन फरहाद' हो तिसरो बोलपट. १९३५ मेरेन, अस्तंत भारतांत इंपीरिअल फिल्म कंपनी, प्रभात फिल्म कंपनी, रणजित मुव्हिटोन, सागर फिल्म कंपनी, सरोज मुव्हिटोन, प्रकाश पिक्चर्स, पॅरामाउंट फिल्म कंपनी, वाडिया मुव्हिटोन, सरस्वती सिनेटोन आनी कोल्हापूर सिनेटोन ह्या संस्थांनी चित्रपटनिर्मिती केली. तातूंत कलकत्यांत 'मादन थिएटर्स लि.' आनी 'न्यू थिएटर्स' ह्यो संस्था आघाडीचेर आशिल्ल्यो.

त्या काळांत रणजीतचो 'देवी देवयानी' (१९३१), प्रभातचो 'अयोध्या का राजा' (१९३२) तशेंच 'अमृतमंथन' (१९३४), सरस्वतीचो 'श्यामसुंदर' (१९३५), न्यू थिएटर्सचो 'मीरा' (१९३३) आनी 'देवदास' (१९३५), इंपीरिअलचो 'टेंपल बेल्स' (१९३३) ह्या चित्रपटांनी उपाट यश मेळयल्लें. दिग्दर्शक देवकी बोस हाणें 'चंडीदास' ह्या चित्रपटांत पार्श्वसंगीताचें म्हत्व पयलीं सिध्द केलें. नादियाची मुखेल भूमिका आशिल्ले वाडिया मुव्हिटोनचे मारामारी आनी चित्तथराक प्रसंग

आशिल्ले बोलपट त्या काळांत लोकांक खूब आवडटाले. पयलो भारतीय रंगीत बोलपट 'किसानकन्या' (१९३७) अर्देशिर इराणी हाच्या इंपीरियल फिल्म कंपनीन निर्माण केलो.

१९३६ ते १९४२ ह्या स वर्सांच्या काळांत चित्रपट सृश्टीची सर्वांगीण उदरगत घडून आयली. ह्या काळांत जायते बरे चित्रपट तयार जाले. देखीकः १. प्रभात फिल्म कंपनी लि., पुणेः 'अमरज्योती' (१९३६), 'संत तुकाराम' (१९३६), 'गोपालकृष्ण' (१९३८), 'आदमी' (१९३९), 'पडोसी' (१९४१); २. न्यू थिएटर्स लि., कलकत्ताः 'विद्यापती' (१९३७), 'प्रेसिडेंट' (१९३७), 'मुक्ती' (१९३७), 'अधिकार' (१९३८), 'डॉक्टर' (१९४१), 'लगन' (१९४१), 'सौगंध' (१९४२); ३. 'बॉंबे टॉकीज लि., मुंबयः 'अछूत कन्या' (१९३६), 'कंगन' (१९३९), 'पुनर्मीलन' (१९४०), 'बंधन' (१९४०); ४. रणजित मुव्हिटोन, मुंबयः 'अछूत' (१९४०); ५. नॅशनल स्टुडिओज लि., मुंबयः 'औरत' (१९४०); ६. मिनर्व्हा मुव्हिटोन, मुंबयः 'पुकार' (१९३९); ७. प्रकाश पिक्चर्स, मुंबयः 'नरसी भगत' (१९४०); ८. पांचोली आर्ट पिक्चर्स, लाहोरः 'खजांची' (१९४१) आनी 'खानदान' (१९४२). ह्याच काळांत न्यू थिएटर्सच्या कुंदनलाल सैगल हाचीं पदां भारतभर लोकप्रिय जाल्लीं.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत चित्रपटसृश्टींत मंदी आयली. कच्ची फिल्म आनी यंत्रसामग्री हांची आयात करप कठीण जालें. १९४२ त, सरकारान चित्रपटांचेर निर्बंध हाडले. १९४३-१९४५ ह्या काळांत कच्च्या फिल्माचें वांटप सरकारी कक्षेंत गेलें. दर तीन चित्रपटांत एक झुजप्रचारपट काडुंकूच जाय, अशी सक्ती आयली. पूण ह्याच काळांत, खेडेगांवांनी चित्रपट पावन चित्रपटांचो धंदो वाडलो. झूज सोंपतकच १९४५ त, कच्च्या फिल्मावयले निर्बंधूय काडले. हिंदी चित्रपटनिर्मितींत वाड जावपाक लागली. पार्श्वगायनाची पध्दत ह्याच काळांत (१९३५) रुढ जाली. १९४६ ते १९५५ ह्या काळांत मेहबूब प्रॉडक्शन्स, इंडियन पीपल थिएटर्स असोसिएशन, प्रभात फिल्म कंपनी, बॉंबे टॉकिज, इंडियन पिक्चर्स, कारदार प्रॉडक्शन्स, राजकमल कलामंदिर, चंद्रप्रभा सिनेटोन, फिल्मिस्तान लि., आर्. के. फिल्म, जेमिनी स्टुडिओ, न्यू थिएटर्स, एम्. पी. प्रॉडक्शन्स (कलकत्ता) आनी मिनर्व्हा मुव्हिटोन ह्या चित्रपटनिर्मितीसंस्थांनी कितलेशेच ऊंच पांवड्याचे चित्रपट काडले.

बंदखण सुदारणेसारक्या नव्या आनी समाजीक म्हत्वाच्या विशयावेल्या व्ही. शांताराम हाच्या 'दो आँखें बारह हाथ' ह्या चित्रपटाक १९५६ चीं राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय पुरस्कार फाव जाले. बऱ्या चित्रपटाचें राश्ट्रपतिभांगरापदक ह्या चित्रपटाक मेळिल्लें. १९५७ त, रशियेच्या पालवान ख्वाजा अहमद अब्बास हाणें 'परदेशी' चित्रपट सादर केलो. ताका लागून स्कसीस्कोप आनी रंग पयलेच खेप भारतीय पडद्याचेर दिसले. गुरुदत्त हाणें 'कागज के फूल' हो सिनेमास्कोप चित्रपट १९५९ त रुपेरी पडद्याचेर पयलीं उजवाडाक हाडपाचो मान मेळयलो. १९६२ त, हेमंतकुमार हाच्या 'बीस साल बाद' ह्या रहस्यमय चित्रपटाक यश आयलें. त्याच वर्सा दारासिंग ह्या आंतरराश्ट्रीय नामनेच्या कुस्तीगिराचें चित्रपटांतल्यान नायक म्हूण आगमन जालें आनी ताणें उपाट लोकप्रियता मेळयली. १९६३ त, सर्वोत्कृश्ट चित्रपट म्हूण ख्वाजा अहमद अब्बास हाच्या 'शहर और सपना' ह्या चित्रपटाक राश्ट्रपतिभांगरापदक मेळ्ळें. राजकपूरचो १९६४ तलो 'संगम' खूब लोकप्रिय जालो. १९६६ त, कवी शैलेंद्र निर्मित 'तीसरी कसम' ह्या चित्रपटाक राश्ट्रपतिभांगरापदक फाव जालें. शंकर-जयकिशन हांणी लोकसंगीत दिल्ल्या ह्या चित्रपटाचें दिग्दर्शन बासु भट्टाचार्य हाणें केल्लें. १९६९ त, बंगाली दिग्दर्शक मृणाल सेन हाणें हिंदी भाशेंत सादर केल्लो 'भुवन शोम' हो चित्रपट खूब गाजलो. बऱ्यांतलो बरो चित्रपट म्हूण राश्ट्रपतिभांगरापदक आनी व्हेनीस आंतरराश्ट्रीय चित्रपटमहोत्सवांतलें भांगरापदक ह्या चित्रपटाक मेळ्ळें.

१९७१ उपरांतच्या चार वर्सांच्या काळांतले यशस्वी चित्रपट म्हूण 'बॉबी', 'जंजीर', 'रोटी कपडा और मकान' आनी 'दीवार' ह्या चित्रपटांचो उल्लेख करचो पडटलो. उपरांत आयिल्ल्या 'शोले' ह्या चित्रपटांत सगळे उच्चांक मोडले.

भारतांत १९३१ त २८ बोलपट आयले, तातूंत २३ हिंदी आशिल्ले. १९७४ त, भारतांत वट्ट १३२ हिंदी चित्रपट तयार जाले, तातूंतले ११० मुंबयत तयार जाल्ले. मुंबय हें हिंदी चित्रपटाचें केंद्रस्थानूच जालां. हिंदी चित्रपटसंगीत हें एक खाशेलें आकर्शण जालां. लता मंगेशकर, महम्मद रफी, आशा भोसले, मुकेश, किशोरकुमार, तलत महमुद, मन्नाडे, महेन्द्र कपूर हे हिंदी चित्रपटांतले नामनेचे पार्श्वगायक. १९३१ ते १९८८ ह्या काळांत वट्ट सुमार १३,३०० बोलपट तयार जाले. तातूंतले सुमार ४,६९६ म्हळ्यार ४५% हिंदी बोलपट आशिल्ले. बिमल रॉय, व्ही. शांताराम, के. अब्बास, कमाल अमरोही, हृषीकेश मुकर्जी, गुरुदत्त, गुलजार, बासू भट्टाचार्य, बासु चॅटर्जी आनी श्याम बेनेगल हे हिंदी चित्रपटसृश्टींतले यशस्वी दिग्दर्शक आसात. तांच्या चित्रपटांत म्हत्वाचो असो समाजीक संदेश आसताच, तेभायर अस्पृश्यता, जातिभेद, अर्थीक अन्याय आनी समाजीक समस्या हांचें दर्शन घडटा. कांय लोकप्रिय चित्रपट दिवपी निर्माते आनी दिग्दर्शक म्हूण मनमोहन देसाई, प्रकाश मेहरा, सुभाष घई, रमेश सिप्पी, बी. आर. चोप्रा, महेश भट्ट, एन्. चंद्रा, के. सी. बोकाडिया हांचो उल्लेख करचो पडटलो.

हिंदी चित्रपटसृश्टींत नामना जोडिल्ले नटः पृथ्वीराज कपूर, मोतीलाल, रेहमान, दिलीपकुमार, राजेंद्रकुमार, अशोककुमार, बलराज सहानी, किशोरकुमार, सुनील दत्त, गुरुदत्त, राज कपूर, राजकुमार, देव आनंद, मनोजकुमार, भारतभूषण, शम्मी कपूर, जितेन्द्र, धर्मेन्द्र, अमिताभ बच्चन, शशी कपूर, राजेश खन्ना, विनोद खन्ना, प्राण, अजीत, जीवन, शत्रुघ्न सिन्हा, अमरीश पुरी, अनुपम खेर, नासिरुद्दीन शाह, ऋषी कपूर, संजीव कुमार आदी. नटयोः मधुबाला, नर्गीस, मीनाकुमारी, वैजयंती माला, नूतन, वहिदा रेहमान, आशा पारेख, शर्मिला टागोर, साधना, नंदा, हेमा मालिनी, रेखा, राखी, स्मिता पाटील, शबाना आजमी आदी. गीतकारः शैलेंद्र, साहिर लुधियानवी, कैफी आजमी, आनंद बक्षी आदी. संगीतकारः नौशाद, सी. रामचंद्र, हेमंत कुमार, शंकर-जयकिशन, कल्याणजी-आनंदजी, लक्ष्मीकांत-प्यारेलाल, खय्याम, एस्. डी. बर्मन, आर. डी. बर्मन, भप्पी लहरी आदी.

**बंगाली चित्रपटः** बंगालच्या हीरालाल सेन हाणें रॉयल बायोस्कोप कंपनीवरवीं सात बंगाली नाटकांतल्या कांय प्रवेशांचें चित्रिकरण करून तें १९०१ त भौशीक सुवातींनी दाखयलें. बंगाली चित्रपटसृश्टीची अशे तरेन सुरवात जाली, तरीकूय जे. एफ्. मादन हाच्या एल्फिन्स्टन बायोस्कोप कंपनीन सादर केल्लो 'नलदमयंती' हो पयलो बंगाली मूकपट जावन आसा. १९१७ त प्रदर्शित जाल्ल्या ह्या मूकपटांत इटालियन कलावंतांचो पालव घेतिल्लो.

बंगाली चित्रपटसृश्टीचो प्रवर्तक म्हूण जे. एफ्. मादन हाचें नांव घेतात. ताणें १९२९ त, एल्फिन्स्टन पिक्चर पॅलेस हें भारतांतलें पयलें बोलपटघर कलकत्त्यांत बांदलें. चित्रपट वितरण, चित्रपट प्रदर्शन आनी चित्रपट निर्मितींत ताणें मोलादीक वावर केलो. बंगालांत धीरेन गांगुली हाणें १९२१ त, 'इंग्लंड रिटर्न्ड' हो पयलो समाजीक मूकपट तयार केलो. १९३१ तलो मादन थिएटर्सचो 'जामाई षष्ठी' हो पयलो बंगाली बोलपट. फुडें १९३० त थापणूक जाल्ल्या बी. एन्. सरकार हाच्या न्यू थिएटर्सचो 'देना पवना' हो बोलपट प्रदर्शित जालो. हेच संस्थेन फुडें जायते दर्जेदार बंगाली बोलपट सादर केले. 'इंद्रसभा' (१९३२) ह्या बंगाली बोलपटांत पन्नासांपरस चड पदां आशिल्लीं. एकाच बोलपटांत चडांत चड पदां आसपाचो विक्रम केल्लो हो बोलपट खूब गाजलो.

देवकी बोस हाणें दिग्दर्शित केल्लो 'पूरणभक्त' (१९३३) भारतभर गाजलो. प्रमथेशचंद्र बरुआ हाणें दिग्दर्शित केल्लो आनी शरत्‌चंद्राच्या कादंबरीचेर आदारिल्लो 'गृहदाह' चित्रपट बरोच गाजलो. बरुआ हाच्या 'मुक्ती' (१९३७) चित्रपटांत वापरिल्लीं रवींद्रनाथ टागोर हाचीं गीतां खूब लोकप्रिय जालीं. ह्या गीतांक दिल्ल्या चालींक लागून संगीत

दिग्दर्शक पंकज मलिक हाकाय नांव मेळ्ळें. १९३५ ते १९३९ हो काळ बंगाली चित्रपटसृश्टींत भांगराकाळ अशें मानतात. ह्याच काळांत 'न्यू थिएटर्स' आनी 'प्रभात फिल्म कंपनी' ह्या संस्थांनी कितलेशेच ऊंच पांवड्याचे चित्रपट तयार केले. नॅशनल प्रोग्रेसिव्ह पिक्चर्सचो 'परिवर्तन' (१९४९) आनी एम्. पी. प्रॉडक्शनचो 'बाबला' ह्या चित्रपटांक आंतरराश्ट्रीय चित्रपटमहोत्सवांत पुरस्कार फाव जालो (१९५३). ह्या चित्रपटांतल्यान बालगुन्हेगारीचो समाजीक प्रस्न प्रभावीपणान दाखयला. नॅशनल प्रोग्रेसिव्ह पिक्चर्सचो 'बरयात्री' (१९५१) आनी चारुचित्राचो 'छेलेकार' (१९५४) हे विनोदी चित्रपट आसात. देवकी बोस हाचो 'भगवान श्रीकृष्ण चैतन्य' (१९५३) हो भक्तिप्रधान चित्रपट आसा.

१९४९ त, सगळ्यांत चड म्हळ्यार ६२ बंगाली चित्रपटांची निर्मिती जाली. पूण १९५५ त, फकत ५२ चित्रपट तयार जाले. स्वतंत्रतायेवेळच्या विभाजनाक लागून बंगाली भाशिकांची बाजारपेठ दोन तृतियांशान कमी जाली. चित्रपट सृश्टीचेर ताचो बरोच परिणाम जालो. ह्याच काळांत, न्यू थिएटर्ससारकी व्हडली संस्था बंद जाली. पूण ल्हवल्हव चित्रपटनिर्मितींत सुदारणा जायत गेली आनी १९५७ त, ५५ बंगाली चित्रपट तयार जाले. १९५५ त, अस्तंत बंगाल सरकारान प्रदर्शित केल्ल्या सत्यजित रे हाच्या 'पथेर पांचाली' ह्या चित्रपटाक लागून भारतीय चित्रपटसृश्टीचें नांव जगभर जालें. ह्या चित्रपटाक राश्ट्रीय भांगरापदकावांगडाच, कॅन हांगाच्या संवसारीक चित्रपटमहोत्सवांत 'बेस्ट ह्यूमन डॉक्युमेंट' म्हूण खास पुरस्कारूय मेळ्ळो. असो संवसारीक भोवमान मेळोवपी हो पयलोच भारतीय चित्रपट आनी सत्यजित रे हो पयलोच भारतीय दिग्दर्शक.

फाटल्या तीस वर्सांतले नामनेचे बंगाली दिग्दर्शक आनी चित्रपट अशे: *सत्यजित रे:* 'पारश पाथर' (१९५८), 'अपूर संसार' (१९५९), 'देवी' (१९६०)', 'रवींद्रनाथ ठाकूर' (१९६१), 'अभिजान' आनी 'कांचनजंगा' (रंगीत, राश्ट्रपतिभांगरापदक, १९६२), 'चारुलता' (राष्ट्रपतिभांगरापदक, १९६४), 'का पुरुष ओ महापुरुष' (१९६५), 'चिडियाखाना' (१९६७), 'गोपी गाये बाधा गाये' (१९६८), 'अरण्येर दिनरात्री' (१९६९), 'प्रतिद्वंदी' (१९७०) आनी 'सीमाबंध' (१९७२); *निमाई घोष:* 'छिन्नमूल' (१९५०); *देवकी बोस:* 'सागर संगमे' (राष्ट्रपतिभांगरापदक, १९५८); *ऋत्विक घटक:* 'अजंत्रिक' (१९५८), 'कोमल गंधार' (२९६१), 'सुवर्णरिखा' (१९६५); *मृणाल सेन:* 'नील आकाशेर नीचे' (१९५९), 'बाइशे श्रावन' (१९६०), 'अबशेषे' (१९६३), 'प्रतिनिधी' (१९६४), 'आकाश कुसुम' (१९६५); *राजेन तरफदार:* 'गंगा' (१९६०); *तपन सिन्हा:* 'काबुलीवाला' (राश्ट्रपतिभांगरापदक, १९५६); 'क्षणिकेर अतिथी' (१९५९), 'क्षुधित पाषाण' (१९६०), 'अतिथी' (१९६५), 'हाटे बाजारे' (राश्ट्रपतिभांगरापदक, १९६७), 'आपनजन' (१९६८), 'सगिनो महातो' (१९७०); *विजय बोस:* 'भगिनी निवेदिता' (राश्ट्रपतिभांगरापदक, १९६१); *अजय कार:* 'सात पाके बांधा' (१९६३); *सुधीर मुकर्जी:* 'दादा ठाकूर' (राश्ट्रपतिभांगरापदक, १९६२); *तरुण मुजुमदार:* 'बालिका बोधू' (१९६६); *पूर्णेन्दू पत्री:* 'स्वप्ननिये' (१९६६) आनी *अरुंधती देवी:* 'छुटी' (१९६६).

१९७४ चो सर्वोत्तम राश्ट्रीय चित्रपट म्हूण मृणाल सेन दिग्दर्शित 'कोरस' ह्या बंगाली चित्रपटाक पुरस्कार फाव जालो.. मॉस्को चित्रपट महोत्सवांतूय ह्याच चित्रपटाक रुप्यापदक मेळ्ळें. तशेंच सर्वोत्तम दिग्दर्शनाचें इनाम सत्यजित रे हाका ताच्या 'सोनार केल्ला' ह्या बंगाली चित्रपटाखातीर मेळ्ळें. १९७३ चीं कितलींशींच राश्ट्रीय इनामां बंगाली चित्रपटांक फाव जालीं. सुरखातीकसावन १९८८ मेरेन वट्ट १८६७ बंगाली चित्रपट तयार जाले.

बंगाली चित्रपटसृश्टींत नामना जोडिल्ले कलाकार अशे: दिग्दर्शक- हृषीकेश मुकर्जी, बासु भट्टाचार्य, बासु चटर्जी, सत्येन बोस, असित सेन, शक्ती सामंत, फणी मजुमदार. हेर कलावंत: सैगल, पहाडी सन्याल, उमाशशी, मोलीना, काननदेवी, बरुआ, नवाब, जहर गांगुली, असित बरन, चंद्रादेवी, छबी विश्वास, अहिंद्र चौधरी, दुर्गादास बॅनर्जी. नट-नटयो: उत्तमकुमार, अपर्णा सेन, सौमित्र चॅटर्जी, माधवी मुकर्जी, सावित्री चॅटर्जी, मंजू डे, सुमित्रा देवी, भारती देवी, सुचित्रा सेन, उत्पल दत्त.

**तमिळ चित्रपट:** दक्षिणेंत चित्रपटधंद्याची बुन्याद घालपाखातीर आर्. नटराज मुदलियार, आर्. व्यंकय्या हांणी मोलादीक वावर केलो. १९१९ त, आर्. नटराज मुदलियार हाणें इंडियन फिल्म कंपनी वरवीं सादर केल्लो 'कीचकवध' हो मद्रासचो पयलो चित्रपट. आर्. व्यंकय्या आनी ताचो चलो आर्. प्रकाश हांणी १९२१ त स्टार ऑफ द ईस्ट फिल्म कंपनीवरवीं 'भीष्मप्रतिज्ञा' हो चित्रपट तयार केलो. पयलो चित्रपटप्रदर्शक म्हूण एस्. व्हिन्सेंट हाचें नांव घेतात. ताणें १९१४ त चित्रपटप्रदर्शनाक सुरवात केली. १९२८ त, थापणूक जाल्ली 'एक्झिबिटर्स फिल्म सर्व्हिस' ही दक्षिण भारतांतली पयली चित्रपटवितरण संस्था आसा. एक म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार इलीस आर्. डंकन ह्या अमेरिकन दिग्दर्शकान सुरवातीच्या काळांत जायते तमिळ चित्रपट दिग्दर्शित केल्ले. ह्याच काळांत, आनीक एक म्हत्वाचो चित्रपटनिर्मातो ए. नारायण हाणें १९२७ त 'जनरल पिक्चर्स कॉर्पोरेशन' हे संस्थेची थापणूक केली. ठाकूर एच्. देसाई आनी चिमणलाल बी. देसाई हांणी दक्षिणेंत चित्रपटवितरक म्हूण यश मेळयलें.

तमिळ बोलपट सुर्वेक मुंबय आनी कलकत्ता हांगा तयार जाताले. पयलो तमिळ बोलपट 'कालिदास' (१९३१) मुंबयच्या इंपीरियल फिल्म कंपनीन तयार केल्लो. एच्. एम्. रेड्डी हाणें हो चित्रपट दिग्दर्शित केल्लो. हातूंत टी. पी. राजलक्ष्मी, पी. जी. वेंकटेशन्, एम्. एस्. संतानलक्ष्मी, जे. सुशीला, टी. सुशीला, देवी आनी राजा सॅंडो हांणी भूमिका केल्ल्यो.

मुंबयच्या सागर मुव्हिटोनान सादर केल्ल्या 'गलवा' आनी 'हरिश्चंद्र' ह्या चित्रपटांनी डी. आर्. मुत्तूलक्ष्मी आनी व्ही. सुंदरेसा अय्यर हांणी मुखेल भूमिका केल्ल्यो. ह्याच काळांत इंपीरिअल फिल्म कंपनीचो 'पारिजात पुष्पहरम्' आनी ईस्ट इंडिया फिल्म कंपनीचो 'रामायण' हे दोन बोलपट आयिल्ले. १९३३ त, कलकत्त्याच्या 'न्यू थिएटर्स' हे कंपनीन 'नंदनार' आनी 'प्रल्हाद' हे दोन बोलपट सादर केले. ईस्ट इंडिया फिल्म कंपनीचोय 'प्रल्हाद' चित्रपट आयिल्लो. कोल्हापूराक प्रभात फिल्म कंपनीन सादर केल्ल्या 'सीता कल्याणम्' ह्या चित्रपटांत राजम्, जया, शेषगिरी, व्ही. सुंदरम् अय्यर, शेखर आनी टी. एस्. मुत्तुस्वामी ह्या कलाकारांनी वांटो घेतिल्लो.

निर्मातो ए. नारायण हाणें 'साऊंड सिटी' हे दक्षिणेतलें पयलें चित्रपटनिर्मितीघर मद्रासांत उबारलें. ताणें थंय 'श्रीनिवास कल्याणम्' हो दक्षिणेंतलो पयलो तमिळ बोलपट तयार केलो. तातूंत आर्. बी. लक्ष्मीदेवी आनी एस्. कमालदेवी हांणी मुखेल भूमिका केल्ल्यो. १९३४ त १४ तमिळ चित्रपट तयार जाले. १९४३ सावन चडकरून सगळे तमिळ चित्रपट मद्रास हांगाच तयार जावपाक लागले. १९३५ त, प्रभात फिल्म कंपनीन 'चंद्रसेना' हो कलात्मक तमिळ चित्रपट सादर केलो.

१९३६ त टी. पी. राजलक्ष्मी हिणें चित्रपटाची कथा स्वता बरोवन 'मिस् कमला' ह्या चित्रपटाची निर्मिती आनी दिग्दर्शन केलें. ती भारतांतली पयली बायल दिग्दर्शिका जावन आसा. ह्याच काळांत लोटस पिक्चर्सचो 'पट्टीनाथर' (१९३५), षण्मुखानंद टॉकीजचो 'मेनका' आनी आसनदास क्लासिकल्सचो 'मॉडर्न यूथ' (गीतासार) (१९३७) हे चित्रपट बरेच गाजले. वाय. व्ही. राव हाणें दिग्दर्शित केल्लो रॉयल टॉकीजचो 'चिंतामणी' (१९३७) आनी सालेम शंकर हाचो 'अंबिकापति' हे दोन चित्रपट उपाट गाजले. त्यागराज भागवतर हाची मुखेल भूमिका आशिल्ल्या ह्या चित्रपटांनी एकाच चित्रपटघरांत एका वर्सापरस चड काळ चलपाचो विक्रम केलो. 'जलजा' हो सागर मुव्हिटोनचो जी. के. शेषगिरी हाणें दिग्दर्शित केल्लो पयलो नृत्यप्रधान तमिळ चित्रपट १९३८ त प्रदर्शित जालो.

संगीत आनी नाच हें तमिळ चित्रपटांचें मुखेल आकर्शण. तमिळ चित्रपटांची लांबाय सुमार पांच हजार मी. आसता. झुजकाळांत हे लांबायेचेर निर्बंध आयिल्ले. नामनेचो दिग्दर्शक एस्. एस्. वासन् हाणें ताचेआड अर्ज केलो आनी तातूंत ताका यश आयलें. फुडें डिसेंबर १९४५ त हे निर्बंध काडले. ताका लागून चित्रपटाची लांबाय पयलीं आशिल्ली तशी जाली. जेमिनीचो 'मिस् मालिनी' (१९४७), ज्युपिटर पिक्चर्सचो 'वेलेकारी' (१९४९), उमा अँड एनाक्षीचो 'नल्लतंबी' (१९४९) हे सुरवातीच्या काळांतले समाजीक चित्रपट लोकांनी उबारून धरले. नॅशनल पिक्चर्सचो 'पराशक्ति' (१९५२) ह्या चित्रपटांत नामनेचो अभिनेता शिवाजी गणेशन् पयलेच खेप चमकलो. जेमिनी स्टुडिओचो भक्तिप्रधान संतचित्रपट 'अवैयार' (१९५३) हो त्या काळांत खूब गाजलो. टी. आर्. सुंदरम् हाच्या मॉडर्न थिएटर्सान तयार केल्लो 'अलिबाबा अँड फॉर्टी थीव्हज्' हो पयलो तमिळ रंगीत चित्रपट सलेम हाणें १९५५ त सादर केलो.

१९५९ सावन चित्रपटनिर्मितींत मद्रासचो पयलो क्रमांक कायम आसा, हाचें चडशें श्रेय जेमिनी स्टुडिओचो एस्. एस्. वासन् आनी ए. व्ही. एम्. स्टुडिओचो मय्यप्पन चेटियार हांकां वता. १९६० त, 'वीरपांड्यकट्टबोम्मन' ह्या चित्रपटाक आनी बरो अभिनेता म्हूण शिवाजी गणेशन् हाका संवसारीक चित्रपटमहोत्सवांत पुरस्कार फाव जालो. १९६० उपरांत, सी. व्ही. श्रीधर, के. एस्. गोपालकृष्णन्. के. बालचंदर, डी. जयकांतन् ह्या दिग्दर्शकांनी कांय ऊंच पांवड्याचे चित्रपट सादर केले. एस्. एम्. सुब्बुलक्ष्मी, बी. सरोजा, त्यागराज भागवतर आनी एस्. डी. सुब्बुलक्ष्मी ह्या कलाकारांनी तमिळ चित्रपटांक मानाची सुवात मेळोवन दिली. निर्माता-दिग्दर्शक जयकांतन् हाच्या 'उन्नई पोल उरुवन' ह्या चित्रपटाक राश्ट्रपती गुणवत्ता प्रशस्तिपत्र मेळ्ळें. राजगोपालाचारी हाणें बरयल्ल्या संगीतम् श्रीनिवास राव हाच्या 'दिक्कत्र पार्वती'क १९७३ चो प्रादेशिक भाशेंतल्या सर्वोत्तम चित्रपटाचो राश्ट्रीय पुरस्कार फाव जालो. शिवाजी गणेशन् आनी एम्. जी. रामचंद्रन् ह्या दोन तमिळ कलाकारांक दीर्घकाळासावन लोकप्रियता मेळ्ळ्या.

फुडल्या तमिळ चित्रपटांक राश्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळ्यात: 'कुळंदैक्काग' (१९६८); सर्वोत्तम बालकलाकार: बेबी राणी; 'उइरंद मनिदन' (१९६८); सर्वोत्तम पार्श्वगायिका: पी. सुशीला; 'कुळंदैक्काम' (१९६८); सर्वोत्तम राश्ट्रीय एकचाराचें गीत: 'कन्नदासन्'; 'तिल्लाना मोहनाम्बाळ' (१९६८); सर्वोत्तम रंगीत छायालेखन: के. एस्. प्रसाद; 'तुणैवन' (१९६९); सर्वोत्तम पार्श्वगायिका: कै. बी. सुंदराबंबाळ; 'शांति निलयम्' (१९६९): सर्वोत्तम रंगीत छायालेखन; मार्क्स बर्टली; 'रिक्षाकारन' (१९७१); सर्वोत्तम अभिनेता: एम्. जी. रामचंद्रन्; 'देवी पार्वती' (१९६१) आनी 'उन्नई उरुवन' (१९६४); तिसऱ्या क्रमांकाचो पुरस्काम.

१९७६-१९८८ ह्या काळांत सुमार १७५४ तमिळ चित्रपट तयार जाले.

**तेलुगू चित्रपट:** तमिळ चित्रपटांसारकेच तेलुगू चित्रपट सुर्वेक मुंबय आनी कलकत्ता हांगा तयार जाताले. भारत मुव्हिटोन संस्थेन 'भक्त प्रल्हाद' हो पयलो तेलुगू बोलपट १९३१ त मुंबयत सादर केलो. एच्. एम्. रेड्डी हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या बोलपटांत व्ही. व्ही. सुब्बाराव आनी सुरभी कमलाबाई हांणी मुखेल भूमिका केल्ल्यो. १९३२ त, 'पादुका पट्टाभीषेकम्' आनी 'शकुंतला' ह्या दोन तेलुगू बोलपटांची निर्मिती मुंबयच्या सागर मुव्हिटोन संस्थेन केल्ली. १९३३ त, वट्ट पांच तेलुगू बोलपट तयार जाले. सरस्वती सिनेटोनचो 'पृथ्वीपुत्र' हो बोलपट सोडल्यार दोन 'रामदास' आनी दोन 'सावित्री' चित्रपट तयार जाले. एक 'रामदास' चित्रपट मुंबयच्या इंपीरिअल फिल्म कंपनीचो, जाल्यार दुसरो कलकत्त्याच्या ईस्ट इंडिया फिल्म कंपनीचो आशिल्लो. तांणीच एक 'सावित्री' चित्रपट काडलो. दुसरो 'सावित्री' चित्रपट कलकत्त्याच्या कृष्ण फिल्म कंपनीन काडलो.

तेलुगू बोलपटांची निर्मिती १९३४ सावन मद्रासांत सुरू जाली. व्हेल पिक्चर्सचो पी. व्ही. दास निर्मित 'सीता कल्याणम्' हो मद्रासांतलो पयलो तेलुगू बोलपट. हातूंत राम तिलकम्, माधव पेड्डी, वेंकटरामय्यान, मा. कल्याणी, टी. वेंकटेश्वरलु आनी राजरत्नम् हे मुखेल कलाकार आशिल्ले. १९३४ त, पायोनिअर पिक्चर्सचो 'अहल्या' आनी ईस्ट इंडिया कंपनीचो 'लवकुश' हे चित्रपट कलकत्त्याक तयार जाले. १९३५ त, ७ तेलुगू बोलपटांतले दोन मद्रासांत आनी पांच कलकत्त्याक तयार जाले. १९४२ पसून तेलुगू चित्रपटांची निर्मिती मात्शी कमी जाली, पूण १९५० सावन मात परत तिका नेट आयलो.

१९३० च्या सुमाराक म्हळ्यार बोलपट सुरू जावंचेआदीं तेलुगू रंगमाचयेची भरभराट जाल्ली. त्या काळांत कोंडा वेंकटाप्पा, के. नागेश्वरराव, बी. कृष्णराज राजू हे राजकी फुडारी दादल्यांची भूमिका करताले आनी आंध्र केसरी टी. प्रकाशम्, कलेश्वराव हे बायलांची भूमिका करताले. एम्. टी. राजन् हाच्या मार्गदर्शनाखाल सुरू जाल्लो व्हेल पिक्चर्सचो 'सीता कल्याणम्' हो मद्रासांतलो पयलो बोलपट. १९३५ त, बालाजी हाणें सादर केल्ल्या स्टार फिल्म कॉर्पोरेशनचो 'हरिश्चंद्र' हो चित्रपट मद्रासांत भरपूर गाजलो. सी. एस्. व्ही. रामन् हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या चित्रपटांत अदंकी श्रीराममूर्ती, निल्लोरी, नागराजराव कन्नम्बा आनी पुलीपती वेंकटेश्वलु ह्या कलाकारांनी काम केल्लें.

मद्रासच्या सारथी फिल्म्स संस्थेन तयार केल्लो 'मला-पिल्ला' (१९३८) हो पयलो यशस्वी समाजीक बोलपट. जी. रामब्रह्मम् हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या चित्रपटांत कांचनमाला, भानुमती, अनुसूया वाय्. सत्यम् ह्या कलाकारांनी वांटो घेतिल्लो. तेलुगू चित्रपटाचे उदरगतींत एच्. एम्. रेड्डीचो वावर खूब मोलादीक आसा. बी. एन्. रेड्डी हाचे 'सुमंगली', 'स्वर्गसीमा' आनी 'मल्लेश्वरी' हे चित्रपट खूब गाजले. सोसायटी पिक्चर्सखातीर १९५३ त एम्. एच्. एम्. मुनास हाणें सादर केल्ल्या 'प्रपंचम्' (तेलुगू) आनी 'उलगम्' (तमिळ) ह्या चित्रपटांनी एकाच वेळा १०१ चित्रपटघरांनी प्रदर्शित जावपाचो विक्रम केल्लो. जेमिनी स्टुडिओन कांय तेलुगू चित्रपट सादर केल्यात. नॅशनल फिल्म आर्ट्सचो 'तोडू डोंगलू' (१९५४) आनी भरणी पिक्चर्सचो 'विप्रनारायण' (१९५५) हेय चित्रपट बरेच चलले. तेलुगू चित्रपटसृश्टींत सी. पुलय्या, बी. नागी रेड्डी, के. व्ही. रेड्डी, पी. एस्. रामाकृष्णराव ह्या चित्रपटनिर्मात्यांनी आनी सावित्री, जमुना, देविका, नागय्या, रेलंगी, बी. आर्. पंथुलु ह्या कलाकारांनी नामना जोडल्या. एम्. सी. राघवन, जी. व्ही. सुब्बाराव, पी. कन्नम्बा, सरला, रोहिणी, अंजली देवी, एम्. के. राधा, कुमारी नागय्या, मालती, वीरचारी ह्याय कलाकारांनी चित्रपटसृश्टींत काम केलां. 'अर्धांगिनी' (१९५५), 'तेन्नाली रामकृष्ण' (१९५६), 'पेल्लीनाटी प्रमाणलू' (१९५८), 'नम्मीन बंतु' (१९५९), 'महाकवि कालिदास' (१९६०), 'भार्या भरतलु' (१९६१), 'महामंत्री तिम्मरासु' (१९६२), 'डॉ. चक्रवर्ती' (१९६४) ह्या चित्रपटांक राश्ट्रपतिरूप्यापदकां आनी गुणवत्ता प्रशस्तिपत्रां मेळ्ळ्यांत. बी. एन्. रेड्डी हाचो 'थोडु नीदा' (१९६५) आनी ए. सुब्बाराव हाचो 'सुडी गुंडलु' (१९६७) हे दोन तेलुगू चित्रपट गाजले. एन्. टी. रामाराव, ए. नागेश्वरराव, अंजलीदेवी, भानुमती, वरलक्ष्मी, रंजनी हे जाण्टे कलाकार तमिळ आनी तेलुगू ह्या दोनूय भासांतल्या चित्रपटांत सोबीत काम करतात. सुरवातीक सावन आयजमेरेन सुमार ३३०२ तेलुगू चित्रपट तयार जाले.

**कन्नड चित्रपट:** जयवाणी टॉकीज संस्थेन 'ध्रुवकुमार' हो पयलो कन्नड बोलपट, १९३४ त सादर केलो. जयवंत हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या बोलपटांत मा. मुत्तू आनी कनकलक्ष्मी हांणी मुखेल भूमिका केल्ल्यो. ह्याच वर्साचो दुसरो बोलपट साऊथ इंडिया मुव्हिटोनचो 'सती सुलोचना'. १९३५ त, 'सदारामा' हो शकुंतला फिल्म्स्चो एकूच कन्नड बोलपट आयलो. हे तीनूय बोलपट मुंबयंत तयार जाल्ले. देवी फिल्म्स्चो

'संसारनौका' हो १९३६ त आयिल्लो मद्रासांतलो पयलो कन्नड बोलपट बरोच गाजलो. पुरुषोत्तम दास हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या चित्रपटांत एम्. व्ही. राजम्मा, बी. आर्. पंथुलु हांणी मुखेल भूमिका केल्ल्यो. त्याच वर्सा के. पी. भावे हाणें दिग्दर्शित केल्लो 'चिरंजीवी' हो चित्रपट पुण्यांत आयलो.

१९५४ त गुब्बी फिल्म्स्चो 'बेदर कन्नपा' आनी फुडल्या वर्सा ललितकला हे संस्थेचो 'महाकवी कालिदास' ह्या चित्रपटाक राश्ट्रीय गुणवत्ता प्रशस्तिपत्रां मेळिल्लीं. १९५० 'प्रेमदा पुत्री' (१९५७), 'स्कूल मास्टर' (१९५८), 'संत तुकाराम' (१९६३), 'चंदवालिया थोटा' (१९६४), 'सत्य हरिश्चंद्र' (१९६५), 'संध्याराग' (१९६६) आनी 'अबच्युरीना पोस्ट ऑफिस' (१९७३) ह्या कन्नड चित्रपटांक रूप्यापदकां मेळ्ळ्यांत. कन्नड चित्रपटसृश्ट उबारपाक वीराण्णा गुब्बी, के. हीरानाथ, आर्. नागेंद्रराव, सुब्बाय्या नायडू हांणी मोलादीक वावर केला.

गुब्बी फिल्म्सचो 'हेमरेड्डी मल्लम्मा' (१९४५), आर्. नागेंद्रराव हाणें आर्. एन्. आर्. प्रॉडक्शनवरवीं तयार केल्लो 'जातक फला' (१९५३), एच्. एल्. एम्. सिन्हा हाणें गुब्बी फिल्म्स्खातीर तयार केल्लो 'बेदर कन्नप्पा' (१९५४) आनी बी. व्ही. आचार्य हाणें विठ्ठल प्रॉडक्शनखातीर तयार केल्लो 'कन्यादान' (१९५४) हे चित्रपट खूब गाजले.

एल्. लक्ष्मीनारायण हाचो 'उय्याले' (१९६९) चित्रपट उल्लेख करपासारको आसा. ह्या उपरांत कन्नड चित्रपटांक खरो कलात्मक घाट गिरीश कार्नाड हाणें दिलो. 'समस्कारा' ह्या चित्रपटाक १९७० चो सर्वोत्तम चित्रपट म्हूण राश्ट्रपतिभांगरापदक मेळ्ळें. टी. पट्टाभिराम रेड्डी हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या चित्रपटांत गिरीश कार्नाड हाणें मुखेल भूमिका केल्ली. तेभायर स्नेहलता रेड्डी, पी. लंकेश, बी. आर्. जयराम ह्या कलाकारांनीय तातूंत वांटो घेतिल्लो. गिरीश कार्नाड आनी बी. व्ही. कारंत ह्या दोन दिग्दर्शकांक १९७१ च्या 'वंशवृक्ष' ह्या चित्रपटाखातीर दिग्दर्शनाचे राश्ट्रीय पुरस्कार मेळिल्ले. अखिल भारतीय पुरस्कार मेळिल्ले कांय कन्नड चित्रपट अशेः 'गेज्जे पूजे' (१९६९): सर्वोत्तम पटकथाः एस्. आर. पुट्टणा कनगल; 'समस्कारा' (१९७०): सर्वोत्तम चित्रपटः 'काडु' (१९७३): दिग्दर्शनाचो दुसऱ्या क्रमांकाचो पुरस्कारः गिरीश कार्नाड, बरी अभिनेत्रीः नंदिनी भक्तवत्सला; बरो बालकलाकारः जी. एस्. नटराज, सर्वोत्तम प्रादेशिक चित्रपट- 'कंकण' (१९७४).

कन्नड चित्रपटसृश्टींत नामना जोडिल्ले कलाकार अशेः जयम्ना, एम्. व्ही. राजम्ना, नागेंद्रराव, सुब्बय्या नायडू, होनाप्पा भागवतर, अश्वत्थामा, पंढरीबाई, हरिणी, सूर्यकला, कृष्णाकुमारी, राज सुलोचना, राजकुमार, नृसिंह राजू, उदयकुमार, भारती, कल्पना, बी. सरोजादेवी, के. एस्. अश्वन्थ आनी जयंती. साहित्यीकः द. रा. बेंद्रे, ए. व्ही. कृष्णराव, टी. आर. सुब्बाराव, सदाशिवय्या.

कन्नड चित्रपटांची निर्मिती सुर्वेक महाराष्ट्रांत मुंबय आनी कोल्हापूर हांगा जाली. उपरांतचे कितलेशेच कन्नड चित्रपट मद्रासाक तयार जाले, पूण स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत म्हैसूर हें कन्नड चित्रपटांचें केंद्र जालां.

सुरवातीकसावन १९८८ मेरेन सुमार १,३८३ कन्नड चित्रपट तयार जाले.

**मलयाळम् चित्रपटः** जे. सी. डॅनिअल हाणें १९२८ त, 'विगताकुमारन्' हो पयलो मलयाळम् मूकपट तयार केलो. ताचो बरोवपी, निर्मातो, दिग्दर्शक आनी मुखेल कलाकार तोच आशिल्लो. सलेमच्या मॉडर्न थिएटर्सचो टी. आर्. सुंदरम् हाणें 'बालन' हो पयलो मलयाळम् बोलपट १९३८ त सादर केलो. नोतानी हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या बोलपटांत के. एन्. लक्ष्मी आनी एस्. के. के. अरुर हांणी मुखेल भूमिका केल्ल्यो. मलयाळम् चित्रपटांची निर्मिती चडशी मद्रासाक जाताली. १९४० त, श्यामला पिक्चर्सचो 'ज्ञानांबिका' आनी १९४१ त, मद्रास युनायटेड आर्टिस्टचो 'प्रल्हाद' हो बोलपट आयलो. १९४२ ते १९४७ ह्या काळांत एकूय मलयाळम् चित्रपट आयलोना. १९४८ त, केरळा टॉकीजचो 'निर्मला' आनी १९४९ त उदय स्टुडिओचो 'वेल्ली नक्षत्रम्' हे बोलपट आयले.

१९५० त, प्रदर्शित जाल्ल्या ६ मलयाळम् चित्रपटांत पक्षीराज स्टुडिओचो 'प्रसन्ना' हो बोलपट खूब गाजलो. ललिता, पद्मिनी आनी रागिणी ह्यो त्रावणकोर भयणी 'प्रसन्ना' चित्रपटांत पयलेच खेप चित्रपटसृश्टींत फुडें आयल्यो. स्वातंत्र्यप्राप्ती उपरांतच्या काळांत मलयाळम् चित्रपटांक खरी चालना मेळ्ळी. भारतांत साक्षरतेचें प्रमाण केरळ राज्यांत सगळ्यांत चड आशिल्ल्यान गाजिल्ल्या साहित्यकृतींवयले आनी नाटकांचेर आदारीत अशे बोलपट थंय लोकप्रिय जावपाक लागले. देखीक- उरुब हाचो 'नील कुयील' (१९५४), पी. केशव देव हाचो 'ओडयिल निन्नू' (१९६४), थोपील भासी हाचो 'मुडियानाय पुत्रन्' (१९६१); 'तुलाभारम्' (१९६८) आनी 'यक्षी' (१९६८); बशीर हाचो 'बाल्यकाला सखी' (१९६७); एम्. टी. वासुदेवन् नायर हाचे 'मरप्पेण' (१९६५), 'इरुट्टिन्डे आत्माऊ' (१९६६), 'आलेवूम तीखूम्' (१९६९) आनी तकझी शिवशंकर पिल्ले हाचो 'चेम्मीन' (१९६५). चंद्रात्रा प्रॉडक्शनच्या रामू करियट दिग्दर्शित 'नील कुयील' (१९५४) ह्या चित्रपटाक अखिल भारतीय गुणवत्तेचें प्रशस्तिपत्रक आनी राश्ट्रपतिरूप्यापदक मेळ्ळें. त्याच वर्साचो असोशिएटेड पिक्चर्सचो 'स्नेह सीमा' हो एक बरो चित्रपट. महात्मा मेमोरिअल असोशिएटेड संस्थेवरवीं निर्माता-दिग्दर्शक पी. रामदास ह्या २० वर्सांच्या तरणाट्यान १९५५ त, 'न्यूज पेपर बॉय' हो चित्रपट काडलो. संवसारांतलो सगळ्यांत तरणाटो निर्माता-दिग्दर्शक म्हूण ताणें नांव मेळयलें. १९६४ सावन मलयाळम् चित्रपटनिर्मितीक नेट आयलो. वर्साक ३० ते ४० मलयाळम् चित्रपट तयार जावपाक लागले.

एस्. एस्. राजन्चो 'थाचोली ओथेनान' (१९६४) आनी रामू करिअटचो 'चेम्मीन' (१९६५) हे चित्रपट खूब गाजले. कण्मणी पिक्चर्सचो 'चेम्मीन' ह्या चित्रपटाक राश्ट्रपतिभांगरापदक मेळ्ळें. १९६८ च्या 'तुलाभारम्' ह्या मलयाळम् चित्रपटाक राश्ट्रपतिरूप्यापदक मेळ्ळें. १९७२ च्या अडूर गोपालकृष्ण हाचो 'स्वयंवरम्' चित्रपट उपाट गाजलो. ह्या चित्रपटाक राश्ट्रपतिभांगरापदक आनी अडूर गोपालकृष्ण हाका सर्वोत्तम दिग्दर्शनाचो राश्ट्रीय पुरस्कार फाव जालो. एम्. टी. वासुदेवन् नायर हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या 'निर्माल्यम्' (१९७३) ह्या चित्रपटाक राश्ट्रपतिभांगरापदकाचो मान मेळ्ळो.

१९७६-१९८८ ह्या काळांत सुमार १४४२ मलयाळम् चित्रपट आयले.

मलयाळम् चित्रपटसृश्टींत नामना जोडिल्ले कलाकार अशेः प्रेम नझीर, अदूर भाशी, थिक्कुरिषी, सुकुमारन् नायर, विनोदमूर्ती एस्. पी. पिल्ले, मुथुकुलम् राघव पिल्ले, कोट्टारकर श्रीधरन् नायर, बी. एस्. सरोजा, कुमारी, ललिता, पद्मिनी, शीला, जया भारती, बहादूदूर, मधू, संकराडी, के. पी. उन्नर, पी. जे. अँथनी, सत्यन, शारदा. दिग्दर्शकः के. एस्. सेतुमाधवन्, शशीकुमार, पी. भास्करन्, ए. बी. राज, एम्. कृष्णन् नायर.

**गुजराती चित्रपटः** चंदुलाल शहा हाणें १९२७ त 'गुणसुंदरी' हो पयलो गुजराती मूकपट सादर केलो. तातूंत 'गोहर' हिणें मुखेल भूमिका केल्ली. १९२३ त, चिमणलाल बी. देसाई हाणें 'नरसी मेहता' हो पयलो गुजराती बोलपट सादर केलो. नानूभाई वकील हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या चित्रपटांत मारुतराव पहेलवान, नूरजहाँ, मोहनलाल, उमाकांत, जमुना, मगन देसाई, मेहताब ह्या कलाकारांनी वांटो घेतिल्लो. रणजित मुव्हिटोनवरवीं चंदुलाल शहा हाणें सादर केल्लो 'सती सावित्री' हो पुराणिक चित्रपट तशेंच मुंबयच्या प्रकाश पिक्चर्स संस्थेन सादर केल्ले 'संसार लीला' (१९३४) आनी 'स्नेहलता' (१९३६) ह्या गुजराती चित्रपटांक यश आयलें. गुजराती भाशीक प्रेक्षक हिंदी चित्रपट आवडीन पळेताले आनी देखून गुजराती चित्रपटांक मागणीय कमी आशिल्ली. देखून, चिमणलाल देसाई हाणें मोतीलाल आनी शोभना समर्थ ह्या

हिंदींतल्या नामनेच्या नायक-नायिकेक घेवन कन्हय्यालाल मुन्शी हाच्या एके कादंबरीचेर 'बे खराबजन' हो चित्रपट हिंदी आनी गुजराती भाशेंत तयार केलो (१९३७). १९३९ त, सरदार चंदुलाल शहा हाणें 'अछूत' हो अस्पृश्यतायेचेर सादर केल्लो बोलपट तंत्रीक नदरेन सुर्वेच्या हेर गुजराती चित्रपटांपरस ऊंच पावंड्याचो आशिल्लो. मोतीलाल, गोहर आनी वासंती हांणी तातूंत मुखेल भूमिका केल्ल्यो.

व्ही. एम्. व्यास हाचो 'रानकदेवी' (१९४६) ह्या इतिहासीक चित्रपटाच्या उत्पन्नान फाटले सगळे उच्चांक मोडले. व्यास हाचो 'नागदेवता' (१९५५) होय चित्रपट बरो चल्लो. म्हाझूज काळांत गुजराती चित्रपटसृश्ट थंडावल्ली. पूण फिल्मावयले निर्बंध पयस जातकच रतिलाल पुनातर हाणें 'गुणसुंदरी' हो चित्रपट सादर केलो. निरुपा रॉय आनी मनहर देसाई हांणी ह्या चित्रपटांत मुखेल भूमिका केल्ल्यो. रतिलाल पुनातर हाणें आपल्या अजित पिक्चर्सवरवीं 'मंगल फेरा' आनी 'गाडोनोबेल' हे दोन चित्रपट सादर केले. १९४७-४८ ह्या काळांतले 'सती अनलदे', 'शामल शहानो विवाह', 'वेवी शाला', 'दिवा दांडी', 'बहार वटियो', 'जेसल तोरल', 'वारसदार', 'हरिश्चंद्र', 'लग्नमंडप' हे कांय उल्लेख करपासारके गुजराती बोलपट आसात.

कांतिलाल राठेड हाच्या 'कंकु' (१९६९) ह्या चित्रपटाक १९७० त, शिकागो हांगाच्या संवसारीक चित्रपट महोत्सवांत पुरस्कार मेळ्ळो. तशेंच बरे अभिनेत्रीचो पुरस्कार पल्लवी मेहता हे नायिकेक मेळ्ळो. नामनेचो दिग्दर्शक रवींद्र दवे हाचे 'जेसल तोरल' (१९७१), 'राजा भर्तृहरी' (१९७३), 'होताल पद्मिनी' आनी 'कुंवरबाईनु मामेरु' (१९७४) हे चित्रपट खूब गाजले. ताच्या 'गुणसुंदरीनो घरसंसार' ह्या चित्रपटाक १९७२ चो सर्वोत्तम चित्रपटाचो राश्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळो. बाबुभाई मिस्त्री हांणें दिग्दर्शित केल्लो 'रानकदेवी' (१९७३) हो चित्रपट खूब गाजलो. १९७६-८८ ह्या काळांत सुमार ३४५ गुजराती चित्रपट तयार जाले.

**पंजाबी चित्रपटः** मूकपटाच्या काळांत पंजाबांत ए. आर. करदार हाचें युनायटेड प्लेअर्स कार्पोरेशन आनी आर. एल्. शोरे हाचें 'पंजाब फिल्म कंपनी' हीं दोन चित्रपटघरां आशिल्लीं. हिंदमाता सिनेटोन हे संस्थेन १९३५ त 'इष्क-ए-पंजाब' हो पयलोच पंजाबी बोलपट मुंबयंत सादर केलो. १९३६ त, 'शीला' हो एकूच पंजाबी बोलपट कलकत्त्याच्या मादन थिएटर्स लि. हे संस्थेन सादर केलो. १९३८ त, 'हीर सिआल' हो एकूच पंजाबी बोलपट इंद्र मुव्हिटोन संस्थेन कलकत्त्याक तयार केल्लो. १९३९ त, कलकत्त्यांत चार, मुंबयंत एक आनी पंजाबांत दोन अशे सात पंजाबी बोलपट आयले. पांचोली आर्ट पिक्चर्सचो 'गुलबकावली' हो पंजाबांत तयार जाल्लो पयलो पंजाबी बोलपट. त्याच वर्सा कमला मुव्हिटोन संस्थेन 'सोनी महिवाल' हो बोलपट सादर केलो. तातूंतल्या पांचोली आर्ट पिक्चर्सच्या 'यमला जाट' ह्या चित्रपटांत गायक अभिनेत्री नूरजहाँ गाजली. १९४१ सावन पंजाबी बोलपटांची निर्मिती पंजाबांत जावपाक लागली.

पंजाबची फाळणी जातकच लाहोर हें म्हत्वाचें शिक्षणीक आनी सांस्कृतिक केंद्र पाकिस्तानांत गेलें. देखून पंजाबी चित्रपटांची निर्मिती कमी जाली. दिग्दर्शक जुगल किशोर हाचो 'जग्गा' (१९६४) आनी दिग्दर्शक पी. पी. महेश्वरी हाचो 'सतलज दे कंडे' (१९६७) ह्या पंजाबी चित्रपटांक रूप्यापदकां मेळ्ळीं. 'नानकनाम जहाज' (१९६९) ह्या चित्रपटाक राश्ट्रीय पुरस्कार आनी सर्वोत्तम संगीतदिग्दर्शनाचो राश्ट्रीय पुरस्कार एस्. मोहिंदर हाका मेळ्ळो. सुरवातीच्या काळासावन १९८८ मेरेन सुमार २४५ पंजाबी चित्रपट तयार जाले.

**ओडिया चित्रपटः** काली फिल्म्स संस्थेन 'सितार विवाह' (१९३६) हो ओडिया भाशेंतलो पयलो बोलपट कलकत्त्याक निर्माण केलो. १९४८ त, ईस्टर्न मुव्हिटोनान 'ललिता ग्रेट' हो ओडिया बोलपट सादर केलो. १९६२ त, सगळ्यांत चड सात आनी ताचेआदीं १९६० त, पांच ओडिया बोलपट प्रदर्शित जाल्ले. १९६० पयलीं जे बारा ओडिया चित्रपट आयिल्ले, तातूंत धा पौराणिक आशिल्ले. बसंतकुमारी पटनाइकचे कथेवयल्यान काडिल्लो 'अमरा बाटा' (१९६४) आनी के. सी. महंती हाचे कथेवयल्यान तयार केल्लो 'का' (१९६५) ह्या चित्रपटांवरवीं ओरिसांतले जिणेचें वास्तव दर्शन जाता. ओडिया भाशेंतल्या चित्रपटांक प्रेक्षकवर्ग मोजकोच आसता. ओरिसांतल्या सैमाची आनी सृश्टीची सोबितकाय, शिल्पसुंदर देवळां हांचो वापर ओडिया चित्रपटांत जाल्लो दिसून येता. कालिंदीचरण पाणिग्रही हाच्या गाजिल्ल्या कादंबरीवयल्यान मृणाल सेन ह्या बंगाली दिग्दर्शकान 'मटीर मनीष' (१९६६) हो ओडिया भाशेंतलो एक बरो चित्रपट सादर केलो. ह्या चित्रपटांत मा. मनीष, प्रसन्नता, नंदा, शरत पुजारी, भानुमति आनी सुजाता ह्या कलाकारांनी मुखेल भूमिका केल्ल्यो.

ओडिया चित्रपटसृश्टींत चित्रपटनिर्माती, दिग्दर्शिका, अभिनेत्री आनी लेखिका म्हूण पार्वती घोष हिका मानाची सुवात आसा. 'लक्ष्मी' (१९६२), 'का' (१९६५) आनी 'स्त्री' (१९६९) ह्या तिच्या चित्रपटांक राश्ट्रीय पुरस्कार फाव जाल्यात. तिणें 'श्री जगन्नाथ' ह्या ओडिया चित्रपटांत भुरगेपणांत कृष्णाची भूमिका केल्ली (१९५०). तिचो घरकार गौरप्रसाद घोष होय एक बरो अभिनेतो आनी दिग्दर्शक आसा 'श्री लोकनाथ' (१९६०), 'जीवनसाथी' (१९६३), 'साधना' (१९६४), 'मटीर मनीष' (१९६६), 'अरुंधती' (१९६७), 'स्त्री' (१९६९) ह्या ओडिया चित्रपटांक राश्ट्रीय रूप्यापदकां फाव जाल्यांत. तशेंच 'अदिना मेघा' (१९६९) आनी 'संसार' (१९७१) ह्या चित्रपटांक राश्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळ्यात. सुरवातीकसावन १९८८ मेरेन सुमार २१८ ओडिया चित्रपट तयार जाले.

**असमिया चित्रपटः** ओडिया चित्रपटांसारकेच चडशे असमिया चित्रपट बंगाली दिग्दर्शकांनी दिग्दर्शित केल्यात. चित्रकला मुव्हिटोन संस्थेन सादर केल्लो 'योगमती' हो पयलो असमिया बोलपट (१९३५). तेउपरांत १९३९ त, तेच संस्थेन 'इंद्रमालती' हो दुसरो चित्रपट काडलो. १९४१ त, आरोरा फिल्म कॉर्पोरेशनान 'मनोमती' हो चित्रपट काडलो. फुडल्या ६ वर्सांत एकूय असमिया चित्रपट आयलोना. १९५३ सावन असमिया चित्रपटांची निर्मिती नेमान जावपाक लागली. ते उपरांतचे कांय चित्रपट अशेः 'रोंगा पोलीस' (१९५८); 'पूबेरून' (१९५९); 'शकुंतला' (१९६१, हातूंतलो थोडो भाग रंगीत आशिल्लो); 'लोटीघोटी' (१९६६, राश्ट्रीय पुरस्कार); 'अरण्य' (१९७१, राश्ट्रीय पुरस्कार); 'ममता' (१९७३, रूप्यापदक).

डॉ. भूपेन हजारिका हाचो आसामी लोककथेचेर आदारित कामरुप चित्र संस्थेचो 'प्रतिध्वनि' ह्या चित्रपटाक रूप्यापदक मेळिल्लें (१९६४). ब्रिजने बरुआ हो असमिया चित्रपटांतलो नामनेचो निर्मातो, दिग्दर्शक, संगीतदिग्दर्शक आनी नट जावन आसा. ताणें चौधरी चित्रायन खातीर तयार केल्लो 'मणिराम दिवान' (१९६३) आनी रंगधर सिनेप्रॉडक्शनखातीर तयार केल्लो 'डॉ. बेझ बरुआ' हे चित्रपट खूब गाजले. बरुआ आर्ट प्रॉडक्शनच्या 'स्मृतीरापारश' (१९५६) ह्या चित्रपटाक लागून तो फुडें आयलो. ताच्या फुडल्या वर्सा 'एरा बाटोर सूर' ह्या चित्रपटाक लागून दिग्दर्शक-कलावंत डॉ. भूपेन हजारिका हाचें नांव गाजलें. 'लोटीघोटी' (१९६६) चित्रपटांतल्या सर्वोत्तम अभिनयाचो पुरस्कार मेळयल्लो विजय शंकर हो आसामांतलो नामनेचो नट आसा.

असमिया चित्रपटांची मागणी मर्यादीत आशिल्ल्यान हांगाची चित्रपटनिर्मिती खूब कमी आसता. १९६७ मेरेन सगळे असमिया चित्रपट कलकत्ता हांगा तयार जाताले; पूण राज्य सरकारान १९६७ त, गुवाहाटी हांगा 'ज्योति चित्रबन' हें एक व्हड चित्रपटनिर्मितीघर बांदलें. पयलो असमिया चित्रपट सादर करपी ज्योति प्रसाद ह्या कलाकाराचें नांव ह्या चित्रपटनिर्मितीघराक दिलां. १९७१ च्या पांच चित्रपटांत 'जय बियोग' आनी 'मानव और दानव' हे चित्रपट गाजले. १९७२ त सात आनी १९७३ त णव असमिया चित्रपट आयले. सुरवातीच्या काळासावन १९८८ मेरेन सुमार १६० असमिया चित्रपट तयार जाले.

**हेर भासांतले भारतीय चित्रपटः** भारतांत १९७४ मेरेन वट्ट सुमार ३४ भासांत बोलपट तयार जाले. तातूंतल्या इकरा मुखेल भासांतल्या चित्रपटांचो नियाळ वयर दिल्लो आसा. उरिल्ल्या २३ भासांनी सामके थोडे चित्रपट आयल्यात. तातूंत इंग्लीश बोलपटांचो आंकडो सगळ्यांत चड म्हळ्यार २६ आसा. हिमांशु रॉय हाच्या इंडो इंटरनॅशनल टॉकीज संस्थेन 'नूरजहाँ' (१९३२) हो पयलो इंग्लीश बोलपट सादर केलो. 'कर्म' (१९३३), 'कोर्ट डान्सर' (१९४१), 'महात्मा' (१९५४), 'द व्हिक्टरी स्टोरी' (१९७४) हे कांय उल्लेख करपासारके इंग्लीश चित्रपट आसात.

१९३३ त, मुंबयच्या इंपीरिअल फिल्म कंपनीन 'दुरुत्तरे हूर' हो पयलो फार्सी बोलपट सादर केलो. १९७४ मेरेन ९ फार्सी बोलपट आयले. तातूंतले 'फिरदोसी' (१९३४), 'ब्लॅक आईज' (१९३५), 'शिरीन् फराद्' (१९३५), 'लैला मजनू' (१९३६), 'सिकंदर' (१९४७) हे कांय नामनेचे फार्सी बोलपट आसात. 'बहेरामखान' (१९४६) हिंदी बोलपटावयल्यान १९४७ त इराणी भाशेंतलो पयलो आनी एकूच चित्रपट आयलो. १९४७ मेरेन फकत दोन अरबी बोलपट आयले, ते म्हळ्यार 'अरबी हंसा' (१९४३) आनी 'हंटरवाली की बेटी' (१९४४). 'ब्रोकन प्रॉमिस' (१९४७) हो एकूच सिंहली बोलपट आनी 'पंपोश' (१९५४) हो एकूच जर्मन बोलपट.

'हरिश्चंद्र' (१९५१), 'कर्म के फूल' (१९६८) आनी 'लौहाकपट' हे सुरवातीचे तीन नेपाळी भाशेंतले बोलपट. आयजमेरेन सुमार २६ नेपाळी चित्रपट तयार जाल्यात. वाडिया मुव्हिटोनचो 'एक्ता' (१९४२) हो पयलो सिंधी बोलपट.

'बाबासा री लाडली' हो पयलो राजस्थानी बोलपट १९६१ त, निर्माता-दिग्दर्शक आदर्श हाणें सादर केलो. १९७६ चो 'लाज राखो राणी सती' हो राजस्थानी चित्रपट गाजलो. १९७६-८८ ह्या काळांत वट्ट २५ राजस्थानी चित्रपट आयले. भोजपुरी चित्रपटाची सुरवात १९६२ त जाली. आयजमेरेन वट्ट ८३ भोजपुरी चित्रपट आयल्यात. १९६२ चो 'गंगामैया तोहे प्यारी चढैबो' हो चित्रपट खूब गाजलो.

साहद पिक्चर्सचो 'लैला मजनू' (१९४१) हो पयलो पुश्तू बोलपट. १९४३ त, आनीक एक पुश्तू बोलपट येतकच पुश्तू बोलपटाची निर्मिती बंद जाली. अनुपमा चित्रे हिणें 'नझराना' हो पयलो मारवाडी बोलपट १९४२ त सादर केलो. एम्. आर. शेठ प्रॉडक्शनचो 'मैंझ रात' (१९६४) हो पयलो काश्मीरी बोलपट. ह्या चित्रपटाक रूप्यापदक मेळिल्लें.

अवधी भाशेंत १९६४ त एकूच चित्रपट तयार जालो. १९८६ त आनीक एक अवधी चित्रपट तयार जालो. १९६६ त, डोगरी भाशेंत एक चित्रपट तयार जालो. १९६४-६५ त दोन मागधी बोलपट आयले. १९६५ त आनी १९७१ त एकेक अशे दोन छत्तीसगडी बोलपट तयार जाले. 'कोडगू एक' (१९७२), 'मैथिली एक' (१९७१), 'थाईन एक' (१९७२) असो एकेकूच बोलपट तयार जावन ह्या भासांतली चित्रपटांची निर्मिती बंद जाली. १९७२ त दोन आनी १९७४ त दोन अशे मणिपुरी चित्रपट आयले. १९७२ च्या 'मतमगी मणिपूर' ह्या मणिपुरी चित्रपटाचो दिग्दर्शक देवकुमार बोस हाका दिग्दर्शनाखातीर प्रादेशिक भाशेंतलें पदक मेळ्ळें. १९७६-८८ ह्या काळांत वट्ट १४ मणिपुरी चित्रपट तयार जाले.

१९७१ ते १९७३ मेरेन दर वर्सा दोन दोन आनी १९७४ त चार तुळू बोलपट आयले. 'बिसाती बाबू' (१९७२) हो अरेर पट्टाभी हाणें दिग्दर्शित केल्लो तुळू बोलपट बरोच गाजलो. १९७६-८८ ह्या काळांत वट्ट १२ तुळू चित्रपट आयले. सगळ्यांत नवी चित्रपट-निर्मिती हरियानवीची. १९७३ त 'बीरा शेरा' हो हरियानवी चित्रपट मुंबयत तयार जालो. सुशीलकुमार व्यास हाणें दिग्दर्शित केल्लो 'चौधरी हरफुलसिंग' हो आनीक एक नामनेचो हरियानवी चित्रपट आसा. १९७३-८८ ह्या काळांत वट्ट ३३ हरियानवी चित्रपट तयार जाले.

- कों. वि. सं. मं.

**कोंकणी चित्रपटः** सुमार ५०-५५ वर्सां आदीं कॉरेज्माच्या दिसांनी (lent) मुंबय तशेंच गोंयांत जेजू क्रिस्ताच्या जिविताचेर कोंकणी संवाद आशिल्लें एक चलचित्र दाखयताले. हें चलचित्र मूळ फ्रेंच आसून कोंकणी प्रेक्षकांखातीर तें 'डब' केल्लें.

'मोगाचो आंवडो' (१९५०) हो पयलो कोंकणी चित्रपट अशें मानतात. हो चित्रपट 'द एक्सेंज टॉकीज ऑफ इंडिया', 'चायना अँड आफ्रिका' हे कंपनीन मुंबय तयार केल्लो. ताचो बरोवपी, निर्मातो आनी दिग्दर्शक जेरी ब्रागांझा. हातूंत मुखेल भूमिका जेरी ब्रागांझा आनी लेना हांणी केल्ल्यो. प्रा. लेवीस एम्. रातूस, जेम्स ब्रागांझा हांणीय ह्या चित्रपटांत वांटो घेतिल्लो.

१९५० वर्सा पोर्तुगालासावन गोंयांत फातिमाचे सायबिणीची मूर्त हाडिल्ली. त्या वेळार जेरी ब्रागांझा हाणें 'Our Lady of Fatima in Goa' नांवाचो एक कोंकणी वार्तापट तयार केल्लो.

१९६३ त, फ्रँक फॅर्नांद हाणें 'फ्रँक फिल्म्स' कंपनीवरवीं मुंबयंत 'आमचें नशीब' हो दुसरो कोंकणी चित्रपट तयार केलो. मोगाची कथा आशिल्लो हो चित्रपट ए. सलाम हाणें दिग्दर्शित केल्लो. सी. साल्वारीस, रिटा, अँथनी मेंदीस, अँथनी डिसा, सोउझ फेर्रांव, किड बॉक्सर, एम्. बॉयर, आंतोनॅत, ऑफिल्य, ए. एम्. बी. रोज, रेमी कुलासो, सेबी कुतीन्यु आदी कलाकारांनी तातूंत वांटो घेतिल्लो. ह्या चित्रपटाक फ्रँक फेर्नांद हाणेंच संगीत दिल्लें.

१९६५ त, फ्रँक फेर्नांद हाणें स्वताच संगीत दिवन 'फ्रँक फिल्म्स' कंपनीवरवीं मुंबयत 'निर्मोण' हो आनीक एक चित्रपट तयार केलो. ए. सलाम हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या चित्रपटांत सी. आल्वारीस, शालीनी, अँथनी डिसा, सोउझ फेर्रांव, आंतोनेत, ऑफिल्य, रॉबिन वाज, जॅक सोउझ फेर्रांव ह्या कलाकारांनी वांटो घेतिल्लो. ह्या चित्रपटाची कथा समाजीक जावन आसा. तुफानाक लागून बोट बुडटा, घोवाचो पत्तो ना म्हूण बायल परिस्थितीक लागून परत लग्न जाता, निमाणो घोव-बायलेचो आनी भुरग्यांचो एकवट जाता. ह्या चित्रपटाक राश्ट्रपति पुरस्कार फाव जाला आनी ताचेर आदारून 'तकदीर' हो हिंदी चित्रपट तयार केला.

१९६७ त, जेरी ब्रागांझा हाणें स्वताच बरोवन दिग्दर्शित केल्लो 'सुखाचें सपन' हो चित्रपट हॅलन प्रॉडक्शन्स कंपनीवरवीं मुंबयंत तयार केलो. मोगाचे कथेचेर आदारित आशिल्ल्या ह्या चित्रपटांत जेरी ब्रागांझा, फातिमा, आंतोनेत, रिको रॅाड, जॉयस नॉर्टन, सोउझ फेर्रांव, रॉबिन वाज, आल्फ्रेड रोज, जेम्स ब्रागांझा, श्रीरंग नार्वेकार, ओलिवेयरो गोमिश आदी कलाकारांनी वांटो घेतिल्लो. मानुएल आल्फोंसो हाणें संगीत दिल्ल्या ह्या चित्रपटांतलीं गीतां आल्फ्रेड रोज, रॉबिन वाज, स्टार ऑफ आरोसीं हांणी गायल्यांत.

१९६९ त, फ्रँक फेर्नांद हाणें 'फ्रँक फिल्म्स' वरवीं मुंबयंत 'म्हजी घरकान्न' हो चित्रपट काडलो. विनोदी मोगाकथेचेर रचिल्ल्या ह्या चित्रपटाचें दिग्दर्शन ए. सलाम हाणें केल्लें आनी ताका फ्रँक फेर्नांद हाणेंच संगीत दिल्लें. ह्या चित्रपटांत जासींत वाज, सेसील्या माशाद आदी कलाकारांनी वांटो घेतिल्लो.

१९७० त, आल्बेर्त द ब्रिटोना हाणें 'ब्रिटोना फिल्म्स' कंपनीवरवीं मुंबयंत 'कर्तुबांचो संवसार' हो चित्रपट तयार केलो. रवींद्र व्यास हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या चित्रपटाची कथा डेविड द सोउझ हाणें बरयल्ली आनी ताका मानुएल आल्फोंसो हाणें संगीत दिल्लें. समाजीक कथानक आशिल्ल्या ह्या चित्रपटांत दुस्मान जाल्ले दोग इश्ट परत एकठांय येतात, अशें दाखयलां. ह्या चित्रपटांत आल्बेर्त द ब्रितोना, फातिमा, सॅबी, रिको रॉड, सोउझ फेर्रांव, सेसिल्या, रॉबिन वाज, एच्. ब्रिटोन, तिटा, सॅबी कुतीन्यू आदी कलाकारांनी वांटो घेतला.

१९७१ त, दास मुथुकृष्णन हाणें म्हैसूर हांगा अंबिका फिल्म्स कंपनीवरवीं 'जिवीत आमचें अशें' हो चित्रपट काडलो. वाय. व्ही.राव हाणें दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या चित्रपटाची कथा दास मुथुकृष्णन हाणें बरयल्ली आनी ताका विजय भास्कर हाणें संगीत दिल्लें. समाजीक कथा

आशिल्ल्या ह्या चित्रपटांत हिंदू-किरिस्तांव घराब्यांचो एकचार दाखयला. ह्या चित्रपटांत डॉ. रामकृष्ण रमाणी, बॅटी नाजारेथ, सेसीलिया माशादो, फिलोमेना, पात्रीस्या बापतीश्ता, मानुएल रोड, रिको रोड, महेंद्र किशोर, फेलीस्यु कार्दोज आदी कलाकारांनी भूमिका केल्यात आनी पी. बी. श्रीनिवासन् एस्. जानकी अंजली हांणी गीतां गायल्यांत.

१९७५ त, अंबिका फिल्म्स कंपनीन 'बगलांट' हो चित्रपट काडलो. ह्या चित्रपटांत प्रेमकुमार, सॅबी कुतिन्यु, आल्फ्रेड रोज, ज्यो रोज, पॉल रॉमी, फ्रेडी बार्बोजा, फेलिक्स मेंदीस, टॉनी बेंटो, बॅटी नाझ, रीटा रोज, बॅला कुतिन्यु, फिलोमेना फेर्नांदीश, हेलन, ऑफेलिया काब्राल, सोउझ फेरॅव ह्या कलाकारांनी वांटो घेतला.

१९७६ त, टॉनी कुतिन्यु आनी क्रीस पॅरी हांणी मुंबय क्रिश्टन मोशन पिक्चर्स हे कंपनीवरवीं 'भुयारांतलो मनीस' हो पयलोच रंगीत चित्रपट तयार केलो. श्रीधर नायक आनी एस्. फिलीप हांणी दिग्दर्शित केल्ल्या ह्या चित्रपटाची कथा क्रीस पॅरी हाणें बरयल्या. क्रीस पॅरी हाणेंच संगीत दिल्ल्या. ह्या चित्रपटांतलीं गीतां आशा भोंसले, मेबल, अॅडॉल्फ आनी रुफा हांणी गायल्यांत. ह्या चित्रपटांतले कलाकार अशेः सी. आल्वारीस, रिको रॅाड, सिरीयाको डायस, रॉबिन वाझ, पॉल रॉमी, आंजेला, आयव्हो आल्मैदा, हेलन परेरा, पॉल पॅरी, जॉर्ज रिल्टो, लुसियारो डायस, मेर्सिया तावारीस, नूर महंमद, आलेक्स रास्कीन, राधा बाराटक्के.

१८७७ त, युनायटेड यंगस्टर्स जेप्पु, मंगलोर हे कंपनीन 'मोग आनी मायपास' हो चित्रपट काडलो. ह्या चित्रपटांतले कलाकार अशेः ऑझी, रॉड्रिग्स, मिकमॅक्स, नलिन कुमार, मास्टर अनिल डिसौझा, चार्लस् सिकैरा, प्रकाश कुमार, व्हिन्सेंट पी. कामत, जॉन परेरा, सह्याद्री, व्हिल्फी, पी. वी. श्रीनिवासन्, व्हिल्फी रेंबिदास, मीना रेंबिदास, सेबास्तियान.

१९७८ त, कोंकणी पिक्चर्स हे कंपनीन 'तिसरी चीट' हो चित्रपट तयार केलो. ह्या चित्रपटांत डी. पीटर गोन्साल्वीस, विल्फ्रेड, जी. डिसौझा, रॉनाल्ड डिसौझा, हेन्री डिसौझा, व्हिक्टर कोनेसेरो, जॉयू लोबो, ग्रेस परेरा, राजन, राजानंद रेड्डी आनी सुरेश ह्या कलाकारांनी वांटो घेतला.

ते उपरांत आयिल्ले कांय चित्रपट अशेः चित्र वेत्ता कंपनीचो 'तपस्विनी' (१९८०), विकास फिल्म्स कंपनीचो 'जन मन' (१९८०), अजित सिन्हा हाणें दिग्दर्शित केल्लो 'प्रियम' प्रॉडक्श' कंपनीचो 'सुझान' (१९८२), अंबिका फिल्म्सचो 'गिरेस्तकाय' (१९८५).

'जबाबदारी' ह्या पयल्या कोंकणी टेलिफिल्माचो प्रिमियर शो २१ डिसेंबर १९८९ ह्या दिसा मडगांव (गोंय) हांगा जालो. बोनफिसियो डायस हाणें निर्माण केल्ल्या ह्या फिल्मांत सेबि कुतिन्य, अनीलकलमार पेगादो, रत्ना गोवेकार, सी. डी. सिल्वा, अँथनी सा, रोमीयो मॅंडीस, जे. कार्लोस, हबर्ट, संध्या, उल्हास बुयांव, बॉबी डायस, कॅथरीन मारिया, कारेल, रॉमी, आंतोनेत, कार्मेना जेसीस, फातीमा, क्रिस्ता, पावलीना, फेर्मीन, फेल्सां आनी बेबी प्रिसिल्का ह्या कलाकारांनी वांटो घेतला.

- कों. वि. सं. मं.

**चिदंबरम्:** तमिळनाडू राज्यांतल्या दक्षिण अर्काट जिल्ह्यांतलें नामनेचें शिवक्षेत्र. हें क्षेत्र कोळ्ळम् (कोलेरुन) न्हंयच्या काठार वसलां. ह्या क्षेत्राक तिल्लई तिरुपादिरिप्पुलियूर, पुण्डीकपुरम्, व्याघ्रपुरम्, तिरूचिररंबलम् अशीयं नांवां आसात. पूर्विल्ल्या काळांत वेदविद्या आनी संस्कृत भास हे खातीर चिदंबरम् गाजतालें.

ह्या क्षेत्रांत नटराज शिव कसो प्रगट जालो, ह्या संबंदान एक कथा प्रचलित आसा, ती अशी:

पूर्विल्ल्या काळांत तिल्लई (चिदंबरम्) हें वाममार्गी शाक्तांचें केंद्र आसलें. ह्या लोकांचे उपासनेंत जायत्या वायट गजालींची भरसण जाल्ली. ताका लागून ह्या वाठारांत अनाचार वाडिल्लो. अशा ह्या वायट चालीच्या शाक्तांसावन भौसाक राखपाक शिव थंय प्रगट जालो. शिवाक पळोवन वाममार्गी भिले नात, वयल्यान ते शिवाआड झुजपाक उबे रावले. तांणी अग्नींत हवन करून एक नाग, एक वाग आनी एक काळो कुरुप मोटवो मनीस अग्नीकुंडांतल्यान भायर काडलो. ते तीगूय जाण उपरांत शिवाचेर धांवन गेले. शिवान नाग उखलून आपल्या गळ्यांत घालो. वागाक किरंगळेच्या बोटान चिरून ताचें चामडें आपल्या आंगाक गुटलायलें. काळ्या कुरुप मोटव्या मनशाक उमथो उडोवन शिव ताचे फाटीर नाचलो. हें सगळें पळोवन शाक्त भिले आनी शिवाक शरण गेले.

त्या जाग्यार शिव येवचेपयलीं सावन पार्वती थंय रावताली. शिवाचें थंय येवप तिका आवडलें ना. तिणें शिवाक आपल्या वांगडा नाचाची सर्त लावपाचें आव्हान दिलें आनी हे नाचाचे सर्तींत हरल्यार हो जागो सोडून वचचो पडटलो, अशी अट घाली. शिव ही अट मान्य करून पार्वतीवांगडा नाच करपाक लागलो. नाच करता आसतना शिवान विंगड विंगड मुद्रा दाखयल्यो, ज्यो पार्वतीक बायल आशिल्ल्यान करून दाखोवप जमलेंना. निमाणें पार्वतीचें गर्वहरण जालें. तिणें आपली हार मानली आनी शिव हांगा सदांखातीर रावपाक लागलो.

व्याघ्रपद आनी पतंजली नांवाचे दोन शिवभक्त ह्या वाठारांत रावताले. हांकां प्रसन्न दवरपाखातीर शिवान थंय नाच केलो, अशीय एक कथा चलता. पूर्विल्ल्या काळांत बौध्द लोकांनी ह्या क्षेत्राचेर आपलो ताबो मेळयिल्लो. उपरांत शैव आचार्य मणिक्कवाचकर हाणें बौध्दांवांगडा शास्त्रार्थ करून तांकां हरयले आनी हांगासावन धांवडावन घाले.

चोळ राजा परांतक (पयलो इ.स. ९०७ ते ९५३) हाणें हांगाचें नटराजमंदिर बांदिल्लें, हें थंय आशिल्ल्या फातरापट्यावेल्यान समजता. फर्ग्युसन ह्या वास्तुशास्त्रज्ञाच्या मतान हें देवूळ मूळ रुपांत धाव्या शतमानांत बांदलें तर पार्वतीचें देवूळ आनी थंयचीं व्हडलीं गोपुरां चवदाव्या शतमानांत बांदलीं.

अठराव्या शतमानांत ब्रिटीश-फ्रेंच हांचे भितर जेन्ना सत्तेखातीर झूज पेटलें तेन्ना ह्या क्षेत्राक म्हत्व आयलें. हैदरअलीन हांगाच्या देवळाच्या आवारांतूच सैन्य दवरिल्लें. सर आयरकूटान १७८१ त ह्या देवळाचेर घुरी घाली, पूण तांकां धांवडावन घाले.

चिदंबरम् हांगाच्या शिवमंदिरान सुमार १६ हेक्टरांचो वाठार व्यापला. देवळाच्या कोटाभोंवतणी १८ मी. रुंदायेचो रस्तो आसा. देवळाच्या आवारांत चित्सभा, कनकसभा, नृत्यसभा, देवसभा आनी राजसभा अशा नांवांचीं पांच व्हड भवनां आसात. चित्सभा हें मुखेल देवूळ आसून, तातुंतूच आकाशमय शिवलिंगाची पूजा करतात. ह्या देवळाचें पाखें भांगरापसून घडयलां. चित्सभेलागसार आशिल्लें कनकसभेचें पाखें तांब्याचें आसा. नृत्यसभेच्या देवळांत शंकराची नामनेक पाविल्ली नटराजमूर्त आसा. पार्वतीचें गर्वहरण करतना शिवान नाचाची जी अवस्था घेतिल्ली, त्या नाचाचे अवस्थेंत ही मूर्त थंय कोरांतल्या. हे नटराजमूर्तीच्या पांख्याचेर भांगराचे पत्रे आसात. हे मूर्ती भोंवतणी आशिल्ल्या जाग्यांत नकसूद शिल्पकाम केल्ले ५६ पाशाणी खांबे आसात. मुखेल देवळाचे एके कुशीक देवसभा हें ल्हानशें देवूळ आसा. हांगा देवाच्यो उत्सव-परबो मनयतात. राजसभा ही भव्य वास्तू शिवगंगा तळ्याचे देगेर आसा. हिची लांबाय १०४ मी. आसून रुंदाय ५८ मी. आसा. राजसभेक १,००० पाशाणी खांबे आसात. ह्या जाग्यार वर्सांतल्यान दोन फावट नटराजाची मूर्त हाडून बसयतात आनी तिका महाभिषेक करतात.

ह्या शिव देवस्थानाच्या चारूय दिकांक चारुय महाद्वारांचेर मूर्तिशिल्पान भरिल्लीं अशीं चार ऊंच गोपुरां आसात. अस्तंतेवटेनच्या गोपुरांचेर भरतनाट्यांतल्यो १०८ मुद्रा दाखोवपी सुंदर मुर्ती आसात. गोपुरांचेरूच न्हय तर पुराय देवळाच्या वण्टींचेर विंगड विंगड नाचाचे प्रकार आनी पुराणिक आख्यानां हेविशींचें शिल्पकाम केल्लें आसा.

चिंदबरम्चें शिवगंगा तळें ४६ मी. लांब आनी ३१ मी. रुंद आसा. हें तळें खोल आसून हातूंत देंवपाखातीर चारुय वटांनी फातरांचीं सोबीत सोपणां आसात.

चिंदबरमांत गणेश, विष्णू, अम्मन (पार्वती) आनी सुब्रह्मण्य हांचींय

देवळां आसात. हांगा सिध्दिविनायकाची सुंदर मूर्त आसा.

चिंदबरम्च्या शिवमंदिराविशीं भारतीयांकूच न्हय तर श्रीलंकेच्या नागरिकांच्या मनांतूय श्रध्देची भावना आसा. हांगा शिवाचें अदृश्य अशें आकाशलिंग आसा, असो समज आसा. ह्या देवळाचो पुजारी गर्भकुडींत वण्टीमुखार हुमकळायिल्लो पड्डो कुशीक काडून मुखावेली वणतूच भाविकांक आकाशलिंग म्हूण दाखयता.

वैशाख आनी मार्गशीर्ष म्हयन्यांत देवाची परब मनोवपाक हांगा व्हड जात्रा भरता. भारतांतले तशेंच श्रीलंकेंतले हजारांनी लोक त्यावेळार हाजीर रावतात. हे जात्रेक येवपी लोकांक रावपाक हांगा जायते मठ आनी धर्मशाळा आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**चिपळ्यो:** एका वाद्याचें नांव. चिपळ्यांक 'कुरतर', 'छित्तिका' आनी 'करताल' अशीं हेर नांवां आसात.

चिपळ्यो हें वाद्य शिसाम, सायल वा रक्तचंदन ह्या लांकडाच्यो वा हतयाच्या दातांपसून करतात. देड ते दोन इंच रुंदायेचे आनी स ते आठ इंच लांबायेचे दोन कुडके घेवन तांची एक वट गुळगुळीत करतात, तर दुसरे वटेक नुस्त्याचो वा हेर कसलोय कलात्मक आकार दितात. त्या नुस्त्याच्या तोंडांत पितुळच्यो वाटकुळ्यो पातयो बसयतात. दुसरे कुशीक घुंगरांचो घोंस लायतात. एकेकदां दोनूय कुशींनी पिंतुळच्यो पातयोच बसयतात. चिपळ्यांच्या वयल्या भागांत चिपळ्यो हातांत धरपाक कोंयडें करतात. हाताचो आंगठो एका कुडक्याच्या कोंयड्यांत घालून दोनूय कुडके एकामेकांचेर आपटीतफच चिपळ्यांतल्यान आवाज येता.

चिपळ्यो लांब आनी व्हड आकाराच्यो करून तांच्या तोंडांत ल्हान ल्हान झांजो बसोवपाचीय पध्दत आसा. अशे तरेन घडयिल्ल्या चिपळ्यांक 'करताल' अशें म्हण्टात.

कीर्तन, भजन सारक्या प्रसंगार ताल धरपाक चिपळ्यांचो उपेग करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**चिपळूणकर, विष्णुशास्त्री:** (जल्म: २० मे १८५०, पुणे; मरण: १७ मार्च १८८२, पुणे).

आर्विल्ल्या मराठी गद्याचो जनक म्हूण वळखतात असो नामनेचो मराठी ग्रंथकार. ताच्या काळांतल्या आर्विल्ल्या मराठी गद्याक प्रभावी स्वरुप हाडपाचो मोलादीक वावर चिपळूणकारान केलो.

ताचो बापूय कृष्णशास्त्री हो संस्कृततज्ञ, इंग्लीश साहित्याचो जाणकार आनी विद्वान मराठी लेखक आशिल्ल्यान विष्णुशास्त्रीक भुरगेपणासावनूच वाचपा-बरेवपाची गोडी लागली. पिरायेच्या सातव्या वर्सा तार्णे पुण्याच्या इन्फंट स्कुलांत प्रवेश घेतलो आनी १८६५ त मॅट्रिकची परीक्षा पास जालो. डेक्कन कॉलेजांत आसतना इंग्लीश, संस्कृत आनी इतिहास हे ताचे आवडते विशय आशिल्ले. मुंबय विद्यापीठाची बी.ए. ची परीक्षा तो पुण्याच्या डेक्कन कॉलेजांतसून पास जालो (१८७२). तेउपरांत पुणे आनी रत्नागिरी हांगाच्या सरकारी माध्यमिक शाळांत तार्णे शिक्षकाची नोकरी केली (१८७२-७९).

कृष्णशास्त्री हार्णे चलयल्ल्या 'शालापत्रक' ह्या म्हयन्याळ्यांतल्यान विष्णुशास्त्रीच्या बरपाक आरंभ जालो (१८६८). १८७२ त तो 'शालापत्रक' म्हयन्याळ्याचो संपादक जालो. ताचे संपादकीय कारकिर्दींत शालापत्रकांतल्यान सरकार आनी क्रिस्ती मिशनरी हांचेर तार्णे केल्ले खर टिकेक लागून 'शालापत्रक' बंद पडलें (१८७५). सरकारी नोकरेंत आसतनाच तार्णे 'निबंधमाला' हें नामनेचें म्हयन्याळें सुरू केलें (१८७४); ज. बा. मोडक आनी कां. ना. साने हांच्या पालवान तार्णे 'काव्येतिहाससंग्रह' हें म्हयन्याळें सुरू केलें (१८७८). आपल्या देशांतल्या लोकांनी रचिल्लीं काव्यां, इतिहास, बखरी अशें साहित्य उजवाडावन त्या मार्गान देशसेवा करप, हो हें म्हयन्याळें काडपाफाटलो हेत आशिल्लो.

जानेवारी १८८० त, नवे पिळगेच्या मनाचेर देशाभिमानाचे संस्कार करपाखातीर म. ब. नामजोशी तशेंच टिळक-आगरकराच्या पालवान तार्णे पुण्याक 'न्यू इंग्लीश स्कूल' ही शाळा सुरू केली. त्याच वर्सा खर राश्ट्रवादाचो पुरस्कार करपी दोन खबरांपत्रां 'केसरी' (मराठी) आनी 'मराठा' (इंग्लीश) तार्णे काडलीं. तेखेरीज चित्रशाळा, किताबखाना (पुस्तकांचें दुकान), आर्यभूषण छापखानो असले समाजशिक्षणाचे नदरेन उपेगाक येवपी उपक्रम तार्णे सुरू केले.

'निबंधमाला' हें विष्णुशास्त्रीचें मुखेल जिवीतकार्य. जानेवारी १८७४ वर्सा ताचे निबंदमालेचो जल्म जालो. निबंदमालेच्या सात वर्सांच्या काळांत उजवाडाक आयिल्ल्या ८४ अंकांतलें बरोवप विष्णुशास्त्रीन चडशें एकटाकी केलें. विंगड विंगड विशयांचेर बरयल्ल्या ताच्या निबंदांक लागून मराठी निबंदाक ऊंच पांवड्याचें स्वरुप आयलें. ताचो बापूय कृष्णशास्त्री हार्णे सुरू केल्लो सॅम्युएल जॉन्सनच्या 'रासेलस' ह्या ग्रंथाचो अणकार विष्णुशास्त्रीन 'शालापत्रकांत'ल्यान क्रमशः पुराय केलो. ह्याच म्हयन्याळ्यांत कालिदास, भवभूती, बाण, सुबंधू आनी दंडी ह्या संस्कृत कवींचेर तार्णे जे समीक्षात्मक निबंद बरयले, ते फुडें 'संस्कृत कविपंचक' ह्या नांवान उजवाडाक आयले (आवृत्ती दुसरी, १८९१). ह्या निबंदांनी तार्णे काव्यसमीक्षेचे अस्तंतेचे नदरेक म्हत्व दिलें आनी पूर्विल्ल्या कवींचो काळ, कविता आनी कला हांची इतिहासीक नदरेन विस्कटावणी केली.

'शालापत्रक', 'निबंधमाला', 'केसरी' ह्या नेमाळ्यांतल्यान विष्णुशास्त्रीन भाशा-साहित्य, समाजीक, राजकी अशा विंगड विंगड विशयांचेर बरोवप केलें. ताच्या भाशा-साहित्याविशींच्या लेखांत मराठी भाशेची तेन्नाची स्थिती, भाशापध्दत, इंग्लीश भास, कविता आनी कवित्व, ग्रंथांवयली टिका ह्या विशयांवयलें बरोवप आस्पावता. लोकभ्रम, अनुकरण, गर्व असले विशय ताच्या समाजीक बरपांत आयल्यात. 'आमच्या देशाची स्थिती' आनी 'मुद्रणस्वातंत्र्य' हे दोन लेख ताच्या राजकी बरेवपांभितर खास उल्लेख करपासारखे आसात.

स्वदेश, स्वधर्म आनी स्वभाषा हेंविशींचो उपाट अभिमान ही ताच्या बरपाफाटली मूळ प्रेरणा आशिल्ली. ब्रिटीश राजवटीच्या शेकातळा स्वताचो देश, आपलें सांस्कृतिक दायज आनी परंपरा हांकां उणे लेखपी तेन्नाच्या सुशिक्षितांक शिटकावणी दिवप हो ताच्या बरपाफाटलो मुखेल हेत आशिल्लो.

संस्कृत काव्यशैली, धारदार उपहास-उपरोध, सुभाषितांचो आनी अलंकारांचो मार्मिक उपेग, सुटसुटीत वाक्यरचना, रसाळ भास हें ताच्या बरपाचें खाशेलेपण. ताच्या विचारांत परंपरावादी आनी प्रगतीपर अशा विचारांची भरसण दिसून येता. ताच्या बरपांतसून जायत्या जाणांनी राष्ट्रभक्तीची, इतिहास-संशोधनाची आनी साहित्यसेवेची प्रेरणा घेतली.

'निबंधमालाकार चिपळूणकर' ह्या नांवान तो मराठी भाशेंत नामनेक पावला.

- कों. वि. सं. मं.

**चिबूड (चिबड):** (मराठी-टरबूज; संस्कृत-मधुपाक, कर्कटी; इंग्लीश- मस्क मेलॉन, स्वीट मेलॉन; लॅटीन- कुकुमिस मेलो; कूळ-कुकुर्बिटेसी).

हे वालीची लागवड चड करून उत्तर प्रदेश, गुजरात आनी दखखंन तेचप्रमाण भारतांत हेर सगळ्या न्हंयांच्या वाळवंटी वाठारांत जाता. तिचें मूळस्थान इराण. कलुचिस्तान, उश्ण आफ्रिका आनी भारत, पाकिस्तान, अफगाणिस्तान, चीन हांगाय चिबडांची लागवड जाता. चिबडाची वेल एक वर्स जियेवपी आसून जमनीर पातळटा. वेल खरखरीत आसून हिची सामान्य लक्षणां कुकुर्बिटेसी कुळांत वर्णिल्ल्याप्रमाण जावन आसात.

ह्या पिकाक रेंव्याची कसदार जमीन लागता. ३ मी. अंतराचेर ३० सेंमी. व्यासाचे आनी तितलेच खोल चर मारून तातूंत ८-१० किग्रॅ. शेणसारें घालून ५-६ बियो लायतात. गरजेप्रमाण उदक दितात. लागवडीपसून ३-४ म्हयन्यांभितर फळां पिकतकच काडटात. तरांतरांचे आकार आनी रंगांप्रमाण चिबडांच्या प्रकारांची वळख जाता. साल मोव

वा कठीण, वळींची नक्षी आशिल्ली आनी गुळगुळीत आसता. मृदुफळ वाटकुळें (१०-१२ सेंमी.) आसता. फळांतलो गर नारिंगी वा पाचवो, रुचीक, पिठूळ आनी गोड वासाचो आसता. एका हेक्टरांत सुमार आठ ते णव हजार किग्रॅ. चिबडां जातात.

लक्षनौचें 'धवें आनी चित्ता'; मद्रासचें अनार, बत्तासा, शेरबत; पंजाबचें 'चुमिआरी' हे चिबडाचे कांय नामनेचे प्रकार. फळां जेवणाउपरांत मुखशुध्दीखातीर खातात. तीं मुरांब्याखातीर, सरबताखातीर वापरून हवाबंद डब्यांत सुरक्षित दवरतात. गोंयांत चवथीक गणपतीच्या मखरामुखार आशिल्ले माटोळेक हेर फळांवांगडा चिबड बांदपाची पध्दत आसा.

चिबडाच्यो बियो खावपाखातीर वापरतात. बियांचें तेल हळडुवें, वासाचें, पुश्टीक आनी रुचीक आसता. तें दिव्यांतूय वापरतात. चिबडाचें फळ आनी बियो वखदी, शीतळ, मूत्रल (मुतूंक साफ करपी), पुश्टीक, स्तंभक तेचप्रमाण अग्निमांद्य आनी इसबाचेर (eczema) गुणकारी जावन आसात. 'फूट' आनी 'टरकाकडी' हे चिबडाचे दोन प्रकार आसात.

चिबडांक चड करून 'एरबिनिया ट्रकीफिला' ह्या सूक्ष्मजंतूपसून मर रोग जाता. ताका लागून सबंद वाल बावता, पानां हळडुवीं जातात आनी निमाणी वेल सुकून वता. हो रोग एकेकदां 'फ्युजेरियम' कवकाक लागून जाता. रोगाचो प्रसार बियांपसून जाता आनी वाल सुकून वता. देखून, रोगप्रतिकारक जातीची वेल लायतात.

गोंयांत चिबडांचो मोसम पावसांत आसता. चिबडांची लागवड दोंगुल्ल्यांच्या देंवतेचेर आनी बांदांचेर करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**चिली:** रिपब्लिका दे चिली. दक्षिण अमेरिकेच्या अस्तंती दर्यादिगेवेलो एक देश. हाची दक्षिण-उत्तर लांबाय सुमार ४,४८० किमी.; जाल्यार उदेंत-अस्तंत रुंदाय सरासरी १९२ किमी. क्षेत्रफळः ७,५६,९४५ चौ. किमी.; विस्तारः सुमार १७° २५' दक्षिण ते ५५° ५९' दक्षिण आनी ६७° अस्तंत ते ७५° ३०' अस्तंत.

'जमनीचो शेवट' ह्या अमेरिकिन इंडियन उतरावेल्यान ह्या देशाक चिली अशें नांव पडलां.

चिलीचे उत्तरेक पेरू आनी बोलिव्हिया, उदेंतेक आर्जेंटिना आनी बोलिव्हीया, दक्षिणेक ड्रेक पॅसेज आनी अस्तंतेक पॅसिफीक म्हासागर आसा. पॅसिफिक दर्यांतले वान फेर्नांदिस, ईस्टर, सॅन, अँब्रोझो, साम फेलीक्स, साला-इ-गोमेझ आनी हेर कांय जुंवे चिलीचे मालकेचे आसात. लोकसंख्याः १,१२,७५,४४० (१९८२).

**भूंयवर्णनः** भुंयरचणुकेचे नदरेन चिलीचे तीन स्वभावीक वांटे जातात ते म्हळ्यार- उदेंतेवटेनचो ऊंच अँडीज पर्वत, अस्तंतेच्या दर्यादिगेवेल्यो दोंगरावळी आनी ह्या दोनूय वाठारांतलें देगण. हांगाचें सगळ्यांत चड ऊंच दोंगरातेमक मावंट ओहोझ देल सालादो हें आसा. दोंगरामदीं पँपास हीं तणाचीं व्हड मळां आसात. चिलींत बरेच खेप भूंयकांप जाल्ले आसात.

**हवामानः** हवामानाचे नदरेन चिलीचे सादारणपणान पांच वांटे जातातः १) नॉर्ते ग्रांदे म्हळ्यार उत्तरेवटेनचो भाग. हांगा आतामाका हो व्हड उसू पडिल्लो प्रदेश आसा. वर्सांचीं वर्सां हांगा पावस पडना. २) नॉर्थ चिको. हांगा केन्नाकेन्नाय पावस पडटा आनी आताकामाकडेन तुळा केल्यार हांगा उश्णताय उणी आसा. ३) आकान्कागवाः न्हंयसावन दक्षिणेवटेन कॅन्सॅप्सिऑन शारालागींमेरेनचो वाठार हो तिसरो विभाग. हांगाचें हवामान २.५° से. ते २९° से. मेरेन आसता. पावसाचें वर्सुकी प्रमाण ५० सेंमी. ते १०० सेंमी. मेरेन आसता. ४) मध्य दक्षिण चिलीः हांगा वर्सूयभर भरपूर पावस आसता आनी हवा थंड आसता. ५) दक्षिण चिलीः हांगा सुमार ५०० सेंमी. पावस पडटा आनी थंडसाणूय चड आसता. दर्यादिगेकडल्यान येवपी हंबोल्ट ह्या वाऱ्यांक लागून हवामान थंड उरता.

लोआ, बीओ व्हीओ, मायपो, ईटाटा, कॉप्यापो आनी आकान्कागुआ ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो. तेभायर यांकीवे आनी रांको हीं व्हड तळीं आसात.




**वनस्पतः** उत्तरेवटेन चडशी वनस्पत सांपडना. मध्य चिली वाठारांत बीच लॉरेल, तरेकवार जातींचीं कॅक्टस असल्या वनस्पतींचीं रानां आसात. दक्षिणेवटेन पानझडी, सदां पाचवीचार उरपी झाडांचीं दाट रानां आसात. सामकेच दक्षिणेवटेन थंडेक लागून चडशी वनस्पत जायना.

**मोनजातः** भुगोलीक नदरेन अँडीज पर्वताक लागून कुशीक पडिल्ल्यान लॅटीन अमेरिकेंत सांपडपी चडशी मोनजात चिलींत सांपडना. प्यूमा, जाग्वार, ग्वानाको, व्हायकुमा, हरण, कोलसुणें हेसोरकी मोनजात हांगा आसा. सुकण्यांच्या व्हडल्योश्यो जाती हांगा दिसून येनात.

**इतिहासः** स्पॅनिश आक्रमक सोळाव्या शतमानाच्या मध्याक हांगा पावले. ताचेपयलींचो चिलीचो इतिहास स्पश्टपणान सांपडना. पूण तरी लेगीत इंका संस्कृतायेचो लोक हांगा राविल्ल्याचे पुरावे मेळटात. १५३५ त स्पॅनिश लोकांनी हांगा पयलीं पावल दवरलें आनी १५४१ सावन हो वाठार हातासपाचो यत्न सुरू केलो. हांगा रावपी आराऊकानियन जमातीच्या लोकांनी स्पॅनिश लोकांक खर विरोध केलो आनी झूज उबारलें. स्पॅनिश आक्रमकांक ह्या लोकांचेर पुरायतरेन शेक गाजोवप केन्नाच जमलेंना. चिलीचेर जैत मेळोवन थंय आयिल्ल्या स्पॅनिश सरंजामी फुडाऱ्यांनी पुराय देश आपापल्या भितर वांटून घेतलो. सुर्वेक तो पेरूच्या शासनाचोच एक वांटो आशिल्लो. फुडें सांतियागो हांगा पेरुचोच एक राज्यपाल नेमलो. अठराव्या शतमानाचे सुर्वेक नेपोलियनान सेनाचेर घुरी घाल्ल्यान लॅटीन अमेरिकेंतल्यो बऱ्योच स्पॅनिश वसणुको स्वतंत्रतायेखातीर झुजूंक लागिल्ल्यो. १९१० त स्पॅनिश राजाचें मांडलीकपण सोंपसर ताच्या नांवान कारभार चलोवपी एका राज्यमंडळाची थापणूक जाली. १८११ त राश्ट्रीय सभेचें पयलें अधिवेशन हांगा जालें तेन्ना थंयचे फुडारी म्हूण बरनार्दो ओईगीन्स आनी काररेरा हे मुखार आयले. पूण तांचें दोगांयचें एकामेकांकडेन पटलेंना. ओईगीन्स

हाणें आपल्या ३,००० समर्थकांसयत स्वातंत्र्य झुजारी सान मार्तीन हाच्या पालवान राजनिश्ठ सैन्याचेर जैत मेळयलें आनी १८१८ त चिलीची स्वतंत्रताय जाहीर केली. १८४४ त स्पेनान ही स्वतंत्रताय मानून घेतली. हाचे उपरांत रिपब्लिका ऑटोक्रांटिका (१८३१-४१), रिपब्लिका लिबेराल (१८६१-७१), रिपब्लिका देमोक्रातिया (१८९१-१९२०) अशीं ह्या देशाचीं संविधानीय नांवां बदलत गेलीं. स्वतंत्रतायेउपरांत ओईगीन्स हाणें हांगा बऱ्योच सुदारणा घडोवन हाडल्यो. चिलीचें नाविक दळय ताणेंच उबारलें. पूण ताचेआड वावुरपी सरंजामी शक्तींनी ाका बरेतरेन कारभार चलोवंक दिलोना आनी १८२३ त ओईगीन्साक देशाभायरो जावचो पडलो. १८२३ ते १८२६ मेरेन ह्या देशाचेर रामॉन फ्रेइरे हाणें आपली हुकुमशाय चलयली. १८२९-३० त, हांगा यादवी झूज पेटलें आनी तातूंत सरंजामी शक्तींक जैत मेळ्ळें. हांचेआड शारांनी रावपी आनी वेपारी लोकांचो विरोध खरपणान प्रगट जालो; पूण सुमार एक शतमान कांय आडवाद सोडल्यार चिलीचें शासन चडशें सरंजामी शक्तींच्या हातांनी उरलें. दिएगो पॉर्तालेस हाणें सत्तेचीं सूत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. १९३३ त ताणें राज्यघटना तयार केली. हे राज्यघटनेन केंद्रीय सरकाराक बरेच अधिकार मेळ्ळे आनी रोमन कॅथलिक पंथाक राजधर्माची सुवात दिली. पोर्तालेस हाचो १८३७ त खून जालो. पूण देशाचो कारभार फुडलीं तीस वर्सांमेरेन ताणेंच थारायिल्ल्या धोरणांप्रमाण चललो. १८६१ त हांगा उदारमतवादी पक्षाचें बळगें वाडलें आनी १८९१ मेरेन बरेच सुदारणावादी कायदे आयले. १८६६ त स्पेन आनी चिली हांचे मजगती झूज जालें. पूण ह्या काळांतली सगळ्यांत चड म्हत्वाची घडणूक म्हळ्यार चिलीचें पेरु आनी बोलिव्हीया आडचें झूज. उत्तर चिली, दक्षिण पेरु आनी बोलिव्हीयाची दर्यादिग हांगासर चिली कंपन्यो नायट्रेटचें उत्पादन करताल्यो. १८६० त ह्या उद्येगाक चड बरे दीस आयले. ह्या उद्योगांवेल्या करांवेल्यान आनी हेर अधिकारांच्या प्रस्नांवेल्यान झूज सुरू जालें. १८७९-८३ मेरेन चलिल्ल्या ह्या झुजांत चिलीचें जैत जालें आनी लीमा वाठार चिलीन तीन वर्सांखातीर हातासलो. बोलिव्हीयाची दर्यादिग, पेरुचे तारापाका, ताक्ना आनी आरीका हे जिल्हेय चिलीच्या शेकातळा आयले. उपरांत १९२९ त कबलात जावन ताक्ना जिल्हो पर्यंन पेरुक मेळ्ळो. ह्या काळांत राश्ट्राध्यक्ष फकत नांवापुरतोच आशिल्लो आनी सगळी सत्ता संसदेच्या हातांत उरिल्ली. १८४२-९१ मेरेन राश्ट्राध्यक्ष आशिल्लो बाल्मासेदा हाणें बरेच सुदारणावादी कायदे हाडपाचे यत्न केले; पूण सरंजामशायेच्या प्रभावाखाल आशिल्ले संसदेन ताका विरोध केलो आनी सत्तेभायरो केलो. ह्या वेळार जाल्ल्या यादवी झुजांत १०,००८ लोकांचे बळी पडले आनी पराभवाउपरांत बाल्मासेदान आत्महत्या केली. संसदेच्या हातांत १९२० मेरेन सत्ता उरली.

१९२० त आलेसांद्री राश्ट्राध्यक्ष जालो, पूण १९२४ त लश्करी उठाव जावन ताकाय सत्तेवेल्यान काडून उडयलो. देशांतली परिस्थिती चडूच इबाडिल्ल्यान १९२५ त, निर्वासित म्हूण इटलींत राविल्ल्या आलेसांद्रीक पर्यंन आपोवन हाडलो. ताणें रोखडेंच नवें संविधान मुखार हाडलें आनी संसदीय राज्यपध्दत बदलून राश्ट्रपतीकडेन सगळी सत्ता केंद्रीत केली. राश्ट्राध्यक्षपदाची मुदत चार वर्सांवेल्यान स वर्सांमेरेन वाडयली. पूण आलेसांद्रीआड पर्यंन विरोधकांनी जैत मेळयिल्ल्यान ताका ऑक्टोबर १९२९ त इटलींत निर्वासित म्हूण वचचो पडलो. हाचे उपरांत इबान्येथ ह्या लश्करी अधिकाऱ्यान चिलीचेर सत्ता चलयली. १९३० त संवसारिक मंदीउपरांत इबान्येथ हाका सत्ता सोडची पडली. डिसेंबर १९३२ त आलेसांद्री पर्यंन सत्तेर आयलो. ताचे हे कारकिर्दींत जुलूम वाडिल्ल्यान उदारमतवादी आनी साम्यवाद्यांनी एकवट करून १९३८ तल्यो वेंचणुको जिखल्यो आनी पेद्रो आगीर्रे सेर्दा हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९४२ त व्हान आनतोन्यो रीओस राश्ट्राध्यक्ष जालो. दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून हांगा बरेच प्रस्न उप्रासले. नाझी हेर, प्रचारक तशेंच बरेच व्हड संख्येन जर्मन हांगा आयले. म्हाझुजाउपरांत संप आनी आंदोलनां वाडलीं तशेंच साम्यवाद्यांचें बळगें वाडलें. १९४६ त रीओसाक मरण आयलें. आनी गाब्रिएल गॉनथालेथ व्हिदेला राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताका साम्यवाद्यांचें फाटबळ आशिल्लें. ताच्या मंत्रीमंडळांत तीन साम्यवाद्यांचो आस्पाव आशिल्लो, पूण उपरांत ह्या मंत्र्यांक मंत्रीमंडळाभायरे करपाक ताचेर दबाव आयलो आनी ताचो परिणाम म्हूण हांगा दंगली जाल्यो. १९४८ त साम्यवादी पक्षाक बेकायदेशीर थारायलो. १९५८ मेरेन साम्यवादी कार्यकर्त्यांक भूंयगत जावचे पडले. १९५२ त जाल्ले वेंचणुकेंत ७२ वर्सांचो जनरल इबान्येथ राश्ट्राध्यक्षपदार वेंचून आयलो. ताचे कारकीर्दींत देशाची अर्थीक स्थिती इबाडली आनी १९५८ त आर्तुरो आलेसांद्री हाचो पूत हॉर्हे आलेसांद्री सत्तेर आयलो. १९६० त चिलींत खर भूंयकांप जालो आनी व्हड लुकसाण जावन अडचणी वाडल्यो. गरीबीचें प्रमाण बरेंच वाडलें. १९६४ त कॅथलिक धर्मपीठां, बायलां मतदार आनी संरजामदार हांच्या बळग्याचेर एद्वार्दो फ्रेई मोंताल्व्हा राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताका ख्रिश्चन डेमॉक्रॅटिक पक्षाचें फाटबळ मेळ्ळें, पूण देशाची परिस्थिती सुदारपाक ताका व्हडलेंशें यश आयलें ना. १९७० तले अध्यक्षीय वेंचणुकेंत डॉ साल्वादोर आयंदे हो मार्क्सवादी फुडारी वेंचून आयलो. ताणें बऱ्योच सुदारणा हाडपाचे यत्न केले. पूण ताच्या आड लश्करी अधिकारी आनी अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानाचे हेर सी. आय्. ए. हांणी कट रचून १९७३ त बंड करून ताका सत्तेवेल्यान काडून उडयलो.

ह्या वेळार जाल्लें यादवी झूज थांबोवपाखातीर आयंदेन बरेच यत्न केले. पूण ते फळादीक जाले नात. डॉ. आयंदेक कादयेंत उडयलो. कांय जाणांच्या मतान ताका थंय मारून उडयलो, जाल्यार कांय जाणांच्या मतान ताणें आत्महत्या केली. पूण आयंदेचे हे कारकिर्दीउपरांत हांगा लोकशायेचो अस्त जावन पर्यंन हुकूमशाय राजवटीचो जल्म जालो. आगुस्तो पिनोचेत हो लश्करी राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताणें संसद बरखास्त केली, राजकी चळवळींचेर बंदी घाली आनी सगळीं नियंत्रणां कडक केलीं. पूण अर्थीक सुदारणा हाडपाचे नदरेंतल्यानय ताणें बरेच यत्न केले. मार्क्सवादी पक्षाचेर हांगा बंदी आयली. १९८१ सावन नवें संविधान अंमलांत हाडलें. पिनोचेत हाची सत्ता चिलीचेर बरोच काळमेरेन चल्ली. निमणें वाडटी पिराय आनी आंतरराश्ट्रीय तशेंच राश्ट्रीय मळाचेर येवपी चेपणाक लागून ताणें वेंचणुको जाहीर केल्यो आनी १९९० त सोळा विरोधी पक्षांच्या फाटबळान ख्रिश्चन डेमॉक्रॅटिक पक्षाचो उमेदवार आल्फ्रेदो क्रिस्तीयानी वेंचून आयलो.

**राज्यवेवस्थाः** १९२५ त तयार केल्ले घटनेवरवीं चिलीचे शासन आपल्या नागरिकांक पुराय धर्मीक स्वातंत्र्य दिता. राश्ट्राध्यक्षाची मुदत स वर्सांखातीर आसता. ताका एक फावट मुदत सोंपतकच पर्यंन फाटोफाट दुसरे फावट वेंचणूक लडोवंक मेळना. हांगा उपराश्ट्रपती नाशिल्ल्यान, राश्ट्रपतीक मरण आयल्यार धा दिसांभितर नवी वेंचणूक करची पडटा. राश्ट्राची संसद दोन घरांनी भरता. ११ सप्टेंबर १९८० त नवें संविधान आयलें. हिचेवरवीं आठ वर्सां उपरांत देशांत लोकशाय येतली अशें जाहीर केल्लें. तेप्रमाण हांगा १९९० त वेंचणुको जावन नवें सरकार स्थापन जालें.

अर्थीक स्थितीः चिलींत बरीच सैमीक संपत्ती आसा. हांगा गंव, बार्ली, ओट, तांदूळ, मको, हेर कड्डणां तशेंच बटाट, कांदे लसुण हीं पिकां जातात. सफरचंद, चिबडां, द्राक्षां ह्या सारक्या फळांची निर्यात जाता. चिलीचो सोरो बरोच नांवाजला आनी ताका युरोप खंडातय बरीच मागणी आसा. हांगा कापसाचें पीक बरेतरेन येता. रानांतले संपत्तीक लागून चिलीक बरेंच उत्पन्न मेळटा. नुस्तेमारीचो उद्येग व्हड प्रमाणांत चलता. गोरवां, मेंढरां पोसपाच्या वेवसायाक हांगाचे अर्थवेवस्थेंत म्हत्वाची सोय आसा. उद्येगाच्या मळार हांगा दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत तंत्रगिन्यानाची वाड जाल्ल्यान बरीच उदरगत जाल्या. साकर, पांयतणां, रसायनां, वखदां, शिमीट, रेडिओ, टायर, कागद, फर्निचर ह्या सारके उद्येग व्हडा प्रमाणांत हांगा चलता. हांगाची खण संपत्ती होय अर्थवेवस्थेचो मुखेल घटक आसा. हांगा तांब्याच्यो व्हड सांठ्वणी आसात. तेभायर भांगर, रुपें, मँगनीज, मॉलिब्डिनम, गंधक, लोखड, शिशें आनी

खनिज मीठ हांचेंय उत्पादन बरेंच येता. उत्तर चिलींत अँडीज दोंगरांनी बरें प्रतीचो गंधक मेळटा. एस्कुदो हें हांगाचें चलन.

**येरादारी आनी संचारणः** १९८६ मेरेन ह्या देशांत ७८,०२५ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. त्याच वर्सा रेल्वेमार्गांची लांबाय ७,२०५ किमी. इतली आशिल्ली. हांगा सात मुखेल अंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. हांगाचीं मुखेल बंदरां म्हळ्यार वालपाराईसो, मागालॅनीस, चिलोए आनी आईसॅन हीं आसात. रेडिओ आनी दूरसंचारणाची वेवस्था हांगा आसा. हांगा १९८६ मेरेन ६५ दिसाळीं आनी शंबरांवयर नेमाळीं येतालीं.

**लोक आनी समाजजीणः** हांगाचे भुगोलीक रचणुकेक लागून चिली देश पुर्विल्ल्या काळासावन हेर दक्षिण अमेरिके सावन कुशीक उरलो. उदेंतेवटेनच्यो ऊंच अँडीज दोंगरावळी, अस्तंतेवटेन पॅसिफिक महासागर, उत्तेवटेन आताकामा रण आनी दक्षिणेवटेन ध्रुवाकडलो हिमवाठार हाकालागून थंयच्या लोकांची संस्कृताय, विचार आनी रावपाची पध्दत हेरांपरस वेगळीच. स्पॅनिश घुरयांपयलीं हांगा कांय इंडियन जमाती आशिल्ल्यो. दक्षिण चिली आतांय आराउकानीयन जमाती व्हड प्रमाणांत सांपडटात.

स्पॅनिश लोक आनी थळावे इंडियन हांच्या संकरांतल्यान हांगा मॅस्तिसो लोकांची संख्या बरीच वाडली. जर्मन लोकांची संख्या हांगा दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत वाडली. हांगा इंडियन, स्पॅनिश, मॅस्तिसो आनी युरोपांतल्यान आयिल्ले लोक अशे लोकसंख्येचे विभाग पळोवंक मेळटात. १९२५ मेरेन हांगा कॅथलिक धर्म हो राज्यधर्म आशिल्लो. कॅथलिक धर्माचे सगळे सण आनी उत्सव हांगा दबाज्यान मनयतात. ह्या उत्सवांनी आराउकानीयन लोकांचे पुर्विल्ले उत्सव हांची भरसण जाल्या. आराउकानीयन लोक भडक रंगाचे कपडे वापरतात. तांच्यो बायलोक भडय रंगाच्यो शाली आनी रुप्याच्यो वस्ती वापरतात. दक्षिण अमेरिकेंत सगळ्याक दिसून येवपी काउबॉइजांक हांगा वासोस म्हण्टात.

हांगाच्या समाजांत बायलांक बरी सुवात आसा. राजकारणांत तांचो वांटो बरोच म्हत्वाचो थारता.

चिलीयन लोकांक संगीत आनी नाचाची बरीच आवड आसा. गितार हें हांगाच्या लोकांचें आवडटें वाद्य. क्वेका हो नाचाचो प्रकार नांवाजिल्लो आसा. संवसारांतल्या नामनेच्या पियानो वादकांमदीं हांगाच्या क्लाउदिओ आरराऊ हांचो आस्पाव जाता. सॉकर हो हांगाचो सगळ्यांत लोकप्रिय खेळ. तेभायर स्किइंग, टॅनिस हेसारके खेळ हांगाचे लोक खेळटात.

**शिक्षणः** एकोणीसाव्या शतमानाच्या मध्याक हांगा शिक्षणाची सुरवात जाली. सद्या हांगा तीन पांवड्याचेर शिक्षण दिवप जाता. ६ ते १४ वर्सां मेरेन मुळावें शिक्षण, १५ ते १८ मेरेन माध्यमिक शिक्षण आनी १९ ते २३ वर्सामेरेन विद्यापीठ शिक्षण. हांगा सांतिआगो, वालापाराईसो, कन्सेप्सिऑन, आंतोफागास्ता, व्हाल्दिव्हीया अशीं आठ विद्यापीठां आसात. तातूंतलीं दोन धर्मसंस्थांनी चलयिल्लीं आसात.

**म्हत्वाचीं थळांः** राजधानी सांतियागो खेरीज वालापाराईसो, कन्सेप्सिऑन हीं मुखेल शारां आसात. तेभायर व्हाल्दिव्हीया, प्वेर्तो मॉंत, पूंता आरेनास, ईकीक, आंतोफागास्ता हींय शारां म्हत्वाचीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**चीनः** चिनी प्रजासत्ताक (Republic of China) वा 'चुंग-हवा-जन्-मिन्-कुंग-हो-क्वॉ'. आशिया खंडांतलो सगळ्यांत व्हड आनी संवसारांतलो तिसरो व्हड देश. क्षेत्रफळ ९५,६२,९०४ चौ.किमी.; लोकसंख्याः १०,५३,००,००० (१९८६). अक्षवृत्तीय विस्तार १८° २०' उत्तर ते ५३° ५२' उत्तर आनी रेखावृत्तीय विस्तार ७३° उदेंत ते १३५° उदेंत. उदेंत-अस्तंत लांबाय सुमार ४,८०० किमी.; जाल्यार दक्षिण-उत्तर रुंदाय सुमार ४,००० किमी.; चीनाचे उत्तरेवटेन मंगोलिया प्रजासत्ताक आनी रशिया; ईशान्येवटेन रशिया आनी उत्तर कोरिया, उदेंतेक हळडुवो दर्या आनी उदेंत चिनी दर्या; दक्षिणेक दक्षिण चिनी दर्या, उत्तर व्हिएतनाम, लाओस, ब्रह्मदेश, भारत, भूतान, नेपाळ आनी अस्तंतेवटेन भारत, अफगाणिस्तान आनी रशिया हे देश आसात.

**भूंयवर्णनः** चीनाची भूंय अस्तंतेवटेनसावन उदेंतेवटेन देंवत गेल्या. मळबांतल्यान पळेल्यार हो देश सपणांभशेन दिसता. अस्तंतेवटेन सुरवात जाल्लें किंघाय-तिबेट पठार सुमार २२ लाख चौ. किमी. वाठारांत पातळ्ळां. ताची उंचाय सरासरी ४,००० मी. आसा. ह्या पठाराक संवसाराचें पाखें (Roof of the World) अशें म्हण्टात.

किंघाय-तिबेट पठाराच्या उदेंत आनी उत्तरेवटेनच्यान देंवती सुरू जाता आनी ही देंवती जुंग्गर, तारीम आनी सिचुआन देगणां सावन इनर मंगोलिया मेरेन पावता, थंय लोअॅस आनी युनान-गिझौ पठारां आसात.

हांगासावन पर्थून भुंयेची उंचाय देंवत वता. ह्या मदल्या वाठारांत ग्रेटर हिंग्गन, तायहांग, वूसान, वुलींग आनी झुफेंग दोंगर आसात. ताचे फुडें उत्तर-दक्षिण पातळिल्लो ईशान्य चिनी वाठार, उत्तर चिनी वाठार, यांगत्से न्हंयचें देगण आनी पर्ल न्हंयचो वाठार आसा. सामकेच उदेंतेवटेन भूंय २०० मी. परस ऊंच ना.

ह्या देशाची दोन तृतियांश परस चड भूंय दोंगरांनी भरल्या. उदेंत-अस्तंत पातळिल्ले वळींत आल्ते, तियानशान, कुनलुन, काराकोरम, गॅंग्डीझ, हिमालय, चिनलिंग आनी नानलिंग हे दोंगर आसात. आल्ते म्हळ्यार मंगोलियन भाशेंत भांगराचो पर्वत. हाची सरासरी उंचाय ३,००० मी. आसा. तियानशान दोंगर शिंनजियांग वाठारांतल्यान ३,००० ते ५,००० उंचायेमेरेन पातळ्ळा. हांगाची सगळ्यांत ऊंच दोंगरा तेंमकां ७,००० मी. परस ऊंच आसात.

कुनलुन दोंगर अस्तंतेवटेन पामीर वाठारासावन सुरू जाता आनी उदेंतेवटेन २,५०० किमी. मेरेन पातळत सिचुआन देगणाचे वायव्येमेरेन पावता. हांगाय बऱ्योच तेंगश्यो ७,००० मी. मेरेन उंचायेच्यो आसात. चिनलिंग पर्वतांची वळ सदर्न गांसू सावन मध्य चीनांतल्यान उदेंतेवटेनचे यांगत्से न्हंयमेरेन १,५०० किमी. लांब आसा. काराकोरम पर्वत शिंनजियांग-काश्मीर शिमेसावन आग्नेयेवटेन पातळ्ळा. चीनाचे वायव्येवटेन मंगोलिया- सिक्यांगचो उंचेलो वाठार आसा. हांगा वाळवंटां सारकीय भूंय आसा. गोबीचें वाळवंट ह्याच वाठारांत आसा.

चीनांतल्यो सगळ्यो व्हड न्हंयो उदेंतेक पॅसिफिक महासागराक मेळटात. मंगोलिया, सिक्यांग, तिबेट ह्या वाठारांनी व्हांवपी न्हंयो मात पॅसिफिकाक मेळनात. मॅंचूरियाच्या उत्तर आनी उदेंत शिमांवयल्यान अमूर आनी तिची उपन्हंय उसुरी ह्यो व्हांवतात. अमूर ४,३२० किमी. लांब आसा. तिका चिनी प्रदेशांतल्यान सुंगारी न्हंय येवन मेळटा. दक्षिण मॅंचूरियांत लिआओ न्हंय व्हांवता.

उत्तर चीनांतली सगळ्यांत म्हत्वाची न्हंय म्हळ्यार हवांग हो. तिची वट्ट लांबाय ४,६४० किमी. आसा. तिका फेन हो आनी वे हो (वे श्वे) ह्यो म्हत्वाच्यो उपन्हंयो मेळटात. ह्या न्हंयांक लागून हुंवार येतात आनी एकेकदां न्हंयचो मार्ग बदलता. ताकालागून जावपी लुकसाणाक लागून तिचें नांव 'दुकांची न्हंय' अशें दवरलां.

यांगत्सीकिआंग न्हंय ५,४८८ किमी. लांबायेची आसा. संवसारांत लांबायेचे नदरेन ही न्हंय सव्या क्रमांकाची. यालुंग, मिन, जीअलिंग, हान ह्यो उत्तरेवटेनच्यो आनी शीआंग आनी गान ह्यो दक्षिणेवटेनच्यो तिच्यो मुखेल उपन्हंयो.

आग्नेय मध्य वाठारांत तुंगतिंग आनी पोयांग, उदेंत वाठारांत ताई आनी हुंगत्से, चिंगहाई वा कोकोनॉर, लॉपनॉर हीं तिबेटचीं आनी सिक्यांग- उईगुर हांगाचीं बरींच ल्हानव्हड सरोवरां चीनांत आसात.

**हवामानः** देशाचो विस्तार व्हड आशिल्ल्यान विंगड विंगड तरांचें हवामान हांगा आसा. शियाळ्यांत (नोव्हेंबर ते मार्च) ह्या देशांत देशाच्या भितरल्या वाठारांतल्यान व्हांवपी वाऱ्याचो नेट दिसून येता. हें शीतळ वारें एकेच दिकेन व्हांवता; ताका लागून चीनांतलें तापमान बरेंच देंवता. तापमानांतलो बदल चिनलिंग पर्वताचे उत्तरेक, म्हळ्यार उत्तर चीन आनी मॅंचूरियांत चड जाणवता. ह्या वेळार उत्तर चीनांत तापमान ०° से. परस उणें आसता जाल्यार मॅंचूरियांत तें -१८° से. आसता. ह्या वाठारांत शियाळो चड काळ मेरेन आनी खर आसता. केन्नाकेन्नाय न्हंयो




आनी पोयांगसारक्या सरोवरांतलें आनी चिहली आखातांतल्या दर्याचेंय उदक गोठेता. मँचूरियांत बर्फ पडटा. ह्या ऋतूंत दक्षिणेंतल्यान उत्तरेकडेन तापमान उणें जायत वता. जानेवारी म्हयन्यांत उदेंत दर्या देगेचेर तापमान बिजींग ५.६° से., शांघाय ३.३° से. आनी हाँगकाँग (फेब्रुवारी म्हयन्यांत) १४.५° आसता.

चिनलिंग पर्वताचे दक्षिणेक तापमान ०° से. परस चड आसता. उत्तरेकडेनच्यान येवपी वारे ह्या पर्वताक लागून दक्षिण वटेन येवंक पावनात. ताकालागून थंडसाण उणी जाता. यांगत्सी न्हंयच्या देगणांत हवामान जानेवारी म्हयन्यांत सादारणपणान ३° से. ते ७° से. मेरेन आसता. मार्च म्हयन्याउपरांत दक्षिण चीनांत पावस पडटा. जून ते सप्टेंबर मेरेन चीनांतल्या सगळ्या वाठारांनी तापमान सादारणपणान एकसारकें आसता. देखीकः बिजिंग २६° से., शांघाय २६.७° से. आनी हाँगकाँग २७.७° से.

ह्याच वेळार चीनाच्या दक्षिण आनी आग्नेयेवटेनच्यान चीनाच्या भितरल्या वाठारांचे दिकेन वारे येतात. ह्या वाऱ्यांक लागून चीनांत व्हड प्रमाणांत पावस पडटा. सी न्हंयच्या वाठारांत पावसाचें प्रमाण सगळ्यांत चड म्हळ्यार २०० सेंमी. आसता. उत्तरेकडेन आनी अस्तंतेवटेन तें उणें जायत वता. यांगत्सी न्हंयच्या देगणांत पावसाचें प्रमाण १०० सेंमी. ते २०० सेंमी. आसता. उत्तर चीनांत तें ६५ सेंमी. ते १०० सेंमी. आसता आनी मँचूरियांत ५० सेंमी. ते १०० सेंमी. मेरेन आसता. ह्या वेळार न्हंयांक हुंवार येतात. गिमाच्या शेवटाक केन्ना केन्नाय उदेंत चिनी दर्यावयल्यान आग्नेय वाठारांत वादळां (टायफून) येतात आनी उटंगाराचो पावस हाडटात.

इनर मंगोलियांत आनी सिक्यांग हांगा गिम उश्ण आनी शिंयाळो सामकोच थंड आनी लांब आसता. ऊंच पर्वतांचेर पावसाचें प्रमाण बरेंच आसता. समुद्रथरासावन चड उंचायेर आशिल्ल्यान तिबेटांत तापमान शितळ आसता आनी थंय पावसूय उणो पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजातः** चीनांत वनस्पतीच्यो सुमार २५,००० आनी जमनीर रावपी मोनजातीच्यो सुमार १,८०० जाती सांपडटात. ईशान्येवटेनच्या रानांनी लार्च, स्प्रूस, थळावो पायन, बर्च, अॅस्पेन ह्या सारके अरुंद आनी रुंद पानांचे रुख सांपडटात. ह्या वाठारांतली खाशेली मोनजात म्हळ्यार चिनी मूस, रेनडिअर, हिमससो, आर्क्टिक खोकड, लेमिंग आनी व्हड शिंगांचीं विंगड विंगड प्रकारचीं मेंढरां. हाचे दक्षिणेक आनी चीनाच्या उत्तर वाठारांत ओक, मॅपल, लिंडेन, बर्च, एल्म, अॅश, अक्रोड, पायन, ज्यूनिपर हे रुख आसात. हरणां, वांस्वेलां हांचेवांगडा सेबल, अर्मिन, मिंक, मार्टेन, खोकड, ऑटर हे ल्हंव आशिल्ले प्राणी आसात. बिजींगचे उत्तरेकडेन माकडांय बरींच सांपडटात.

यांगत्सीच्या देगणांत बरीच रानसंपत्त आसा. गिंगो, खाशेल्या जातीचे पायन, हार्टचेस्टनट, बीच, अॅश, मॅग्नोलिया, टुपेलो, ट्युलिप, सासाफ्रा ही आनी हेर जातीची वनस्पत हांगा आसा. उश्ण कटिबंधांत रावपी हेर प्राण्यांवांगडा व्हड आनी ल्हान पांडा हे खाशेले प्राणी हांगा आसात. दक्षिण वाठारांत सदां पाचवीचार रावपी ओक, पायन आनी कोंडे हेभायर मॅग्नोलिया, च्या, कापूर, विचहॅझल ह्या वर्गांतली वनस्पत आसा. ओलसाणीच्या सकयल्या वाठारांनी पावसाचीं रानां आसात. दक्षिण वाठारांत माकडांच्यो तरेकवार जाती, वाग, चित्तो, रानवटी हत्ती, मानगीं हे प्राणी आसात. मोरासारकीं सोबीत सुकणींय हांगा सांपडटात. अस्तंतेवटेन व्हड तणांचो वाठार आसा आनी थंय पर्वत वाठारांत स्प्रूस, लार्च, ज्यूनिपर, बर्च, एल्म, पॉप्लर हे रूख अदींमदीं सांपडटात. महोका आनी हांसपी कस्तुर (Thrush) हीं सुकणीं हांगा आसात. तणाच्या वाठारांत हुंदीर, कांगा, कोळहुंदीर हे सारके प्राणी आसात.

खासा चीनांत सांपडपी मोनजात म्हळ्यार वोल्यासारकीं पाखां आशिल्लें व्हड नुस्तें, सॅलॅमँडर, अॅलिगेटर आनी ताकिज.

**इतिहासः** चीनाच्या सामक्याच पोरन्या इतिहासाविशीं उत्खननांतल्यान बरीच म्हायती मेळटा. सुमार ५ लाख वर्सांपयलीं चीनाच्या उत्तर वाठारांत मनशासारके दिसपी प्राणी रावताले. मानववंशशास्त्रज्ञांनी तांकां 'सिनँन्थ्रॉपस' म्हळ्यार 'पिकिंग मानव' हें नांव दिलें. हे लोक पंगडांनी रावताले, अशें मात दिसून येना. तांकां पांयांचेर उबे रावन चलपाक कळटालें. फातर, हाडां, शिंगां हांची तांणी तयार केल्लीं आयुधां आनी हेर वस्तूंचे अवशेश चीनाच्या बऱ्याच वाठारांनी सांपडल्यात. तांकां उजो पेटोवंक येतालो. उदेंत आशियांत आशिल्ल्या आयच्या मंगोलियन वंशाचे हे पूर्वज अशें मानतात.

ताच्या हजारांनी वर्सां उपरांत पिकींग मानवापरस चड उदरगत जाल्ले प्राणी उत्तर चीन, मंगोलिया, मँचूरिया, सायबेरीया ह्या वाठारांनी रावंक लागले. हे लोक पंगड करून रावताले आनी कंदमुळां, पानां, नुस्तें हांचेर पोट भरताले. मातयेचीं आयदनां तांकां वापरुंक कळटालीं. तांबडीं, काळीं आनी गोबरयकोराचीं आयदनां ज्या ज्या जाग्यांचेर सांपडल्यांत, तांच्यावयल्यान तांकां यांग-शाव, लुंग-शान अशीं नांवां दिल्यांत. ते फातरांचीं खोरीं वापरताले. धनुश्यबाण वापरपाचीय कला तांकां येताली. तांणी दुकर, कुत्रे, घोडे ह्या सारके प्राणी पोशिल्ले. कांय काळाउपरांत ते कड्डणाचें पीक काडूंक लागले. तांणी काडिल्लीं कांय चित्रांय हांगा सांपडल्यांत.

उपरांतच्या कांय शेंकड्यांनी हालींच्या शँटूंग सावन हूनान प्रांतामेरेन हांच्यो बऱ्योच वसणुको तयार जाल्यो.

*पूर्विल्लो काळः* इतिहासिक आख्यायिकांप्रमाण चिनी संस्कृतायेची थापणूक करपी फू सी, शेतवडीच्या मळार वावर करपी शन-नूंग, नामनेचो झुजारी आनी हुशार राजा हुआंगती ह्या सारक्या मनशांनी चीनांतल्या लोकांचे उदरगतीक म्हत्वाचो हातभार लायलो. इ.स.प. २३५६ ते २२०६ ह्या काळांत हांगा बरीच सुदारणा जाल्ली अशें मानतात. ताच्या उपरांत सुमार इ.स.प. २२०६ ते १७६६ (कांय जाणांच्या मतान इ.स.प. १९९४ ते १५२३) ह्या काळांत स्या वंशाचें राज्य चीनाच्या कांय वाठारांनी आसलें. स्या काळांत नगरराज्यां अस्तित्वांत आशिल्लीं. तेन्नाचे लोक रथ वापरताले आनी ब्राँझचीं हत्यारां वापरताले. शेतवड आनी रेशीम उद्येगाची बरीच उदरगत जाल्ली. बरपावळीची कलाय अस्तित्वांत आयली. ह्या काळांत लोक शांग डि हे स्वर्गदेवतेची भक्ती करताले. स्या वंशांतलो आठवो राजा हवाय हो क्रूर आनी दुश्ट आशिल्लो. शांगचो राजकुंवर थांग हाणें हवाय सत्ता काबार करून शांग वंशाच्या राज्याची थापणूक केली. ह्या घराण्याचें राज्य कांय जाणांच्या मतान इ.स.प. ११२२ मेरेन जाल्यार कांय जाणांच्या मतान इ.स.प. १०२८ मेरेन चलतालें. ह्या गजालींचे बरेच पुरावे उत्खननांतल्यान सांपडल्यात. शांग राजांनी सुमार १,८०० नगरराज्यां जिखून घेतिल्ल्याची नोंद आसा. ह्या काळांत हांगा वास्तुशिल्पाच्या मळार बरीच उदरगत जाल्ली. ह्या काळांत समाजांत पुरोयत वर्ग बरोच बळिश्ट आशिल्लो. राजांच्या पालवान ते यज्ञ करताले आनी तातूंत जनावरांचे तशेंच मनशांचेय बळी दिताले. ते शेतवड आनी हेर ल्हान सान वेपार करून पोट भरताले.

कांय काळाउपरांत अस्तंतेवटेनच्यान येवपी जौ लोकांच्या घुरयांक लागून शांग राज्यसत्ता काबार जाली. जौ टोळयांनी शांगची राजधानी भूंयभरखण करून सगळी सत्ता आपल्या हातांत घेतली. जौ सत्ता कांय जाणांच्या मतान इ.स.प. ११२२ ते २२१ जाल्यार कांय जाणांच्या मतान इ.स.प. १०२७ ते २२५ मेरेन म्हळ्यार चीनाच्या इतिहासांत सगळ्यांत चड काळामेरेन उरली. जौ लोक मेंढरां पोसपी आनी हेडगे रानवटी लोक आशिल्ले. पूण तांणी शांग काळांतल्या सगळ्या रिती रिवाजांचो अभ्यास करून ते आपणायले. ह्या वेळार चीनांत बरेंच राजकी थीरपण आयलें.

जौ सत्तेच्या निमण्या काळांत हांगा बरींच ल्हान व्हड हेर राज्यां अस्तित्वांत आयलीं. तांतलीं म्हत्वाचीं म्हळ्यार जिन, च्वीन आनी छू. जौ युगांत चीनांत बरेच तत्त्वचिंतक आनी विचारवंत जावन गेले. कन्फ्युशियस हो विद्वान हांगा ह्याच काळांत जावन गेलो. तेभायर यो-डि आनी लाव् ज हेय विद्वान ह्याच काळांतले. जौ युगांत चिनी भाशेची उदरगत जाली आनी साहित्यांत मोलाची भर पडली.

*पयलें चिनी साम्राज्यः* च्वीन हें राज्य त्या काळावयले एक उदरगत जावं नाशिल्लें राज्य आसलें. पूण चीन लोकांनी आपली उदरगत बरे भशेन केली आनी बळिश्ट सैन्याच्या नेटार भोंवतणच्या राज्यांचेर शेक गाजोवंक सुरवात केली. इ.स.प. २४७ वर्सा जंग हो सान भुरगो च्वीनचे गादयेर बसलो. तो फुडें शिर-हवांग-टी ह्या नांवान व्हडलो सम्राट म्हूण नामनेक आयलो. ताचे राजवटींत ताणें च्वीन राज्याचो व्हडा प्रमाणांत विस्तार केलो. हेर राज्यांचेर जैत मेळोवन ताणें राज्याभितर सुदारणा हाडपाचो बरोच वावर केलो. वैजकी, ज्योतिश, वनस्पतशास्त्र, शेतवड ह्या मळांचेर तशेंच भाशा आनी लिपी, एकसारके कायदे, चलनवेवस्था हातूंत बऱ्योच सुदारणा घडोवन हाडल्यो. ताच्या काळांत संवसारांतलें अजाप म्हूण नामना मेळिल्ली चीनची नामनेची वणत पुराय जाली. विरोधकांक मात ताणें वायट वागणूक दिली. च्वीन ह्या नांवायल्यान सद्याचें चीन हें नांव ह्या देशाक मेळ्ळें, अशें म्हण्टात.

*हान (अस्तंतेवटेनचें) साम्राज्य* (इ.स.प. २०२ ते इ.स.प. ९): निमाणो च्वीन सम्राट हू हाय (शिर-हवांग-टी चो धाकलो पूत) हाच्या मरणाउपरांत पांच वर्सां अंदाधुंदीत गेलीं. तेन्ना त्या बोवाळाचो फायदो घेवन हान-गाव-ज् ह्या लश्करी अधिकाऱ्यान चीनांत स्वताची सत्ता निर्मिली. ताच्या काळांत चीनाचें लश्करी बळगें वाडलें आनी राज्याचो अस्तंतेवटेन बॅक्ट्रियामेरेन (सद्याचें अफगाणिस्तान) विस्तार जालो. ताचे उपरांत हान-गाव-जू मरतकच, ताचे वंशज ताणें मेळयल्ली किर्त बरेतरेन सांबाळूंक शकले नात. पूण वू टि ह्या सम्राटान मात आपल्या तेंपार बरेतरेन राज्य चलयलें. वू टि मेल्या उपरांत पर्यून हांगा राजकी बोवाळ जाले आनी सत्ता वांग मांग ह्या एका राजदरबारांतल्या राणयेच्या भाच्याकडेन गेली. ताणें हांगा बरीच सुदारणा करपाचे यत्न केले पूण नोकरशायेचो ताका विरोध जालो आनी उपरांत जाल्ल्या बंडांत ताका सैनिकांनी मारून उडयलो. इ.स. २५ ते इ.स. २२० मेरेन हान वंशांतलेच हेर लोक सत्तेर आयले. कन्फ्युशियसचे शिकवणेक राज्य धर्माचें रूप मेळ्ळें. ह्या वेळार चीनाचो रोम, ग्रीस, भारत ह्या देशालागीं वेपार सुरू जालो. विज्ञान, मूर्तिकला, चित्रकला हांच्या मळार नवे सोद लागून लोकांची बरीच उदरगत जाली. ह्या काळांत बौध्द धर्माची हांगाच्या लोकांक वळख जाली.

*सुइ वंशः* इ.स. २२० उपरांतच्या सुमार चारशें वर्सांनी हांगा आनीक एक राजघराणे निर्माण जालें. ह्या राजघराण्यांतले राजा बौध्द धर्माचे आशिल्ल्यान तांणी बरींच प्रार्थनाघरां बांदलीं आनी बौध्द धर्माक बरेतरेन पालव दिलो (५८९-६१८).

*थांग वंश* (६१८-९०६): ह्या वंशाची थापणूक करपी ली युआन हाणें व्हडल्या जमीनदारांक आपल्या हातासकयल दवरून शेतजमीन विकपाच्या कायद्यांत सुदारणा केल्यो. ताच्या पुताच्या नांवान फुडें राज्याचेर आयिल्ल्या सगळ्या राजांनी राज्याचो विस्तार केलो.

थांग युगांत किरिस्तांव धर्म, इस्लाम धर्म हे चीनांत पावले. कन्फ्युशियस पंथ आनी बौध्द धर्म हांचेमजगतीं बरींच झगडीं जालीं. राजांचो बौध्द धर्माक मेळपी आदार उणो करपाचो कन्फ्युशियस पंथांच्या लोकांनी बरोच यत्न केलो. सांस्कृतिक मळाचेर ह्या काळांत बरोच वावर जालो. हेर लोकांकडल्यान विंगड विंगड कला शिकून चिनी लोकांनी आपली संस्कृताय चड गिरेस्त केली. युआन च्वांग हो बौध्द धर्मीय बुदवंत ह्याच काळांत (सातव्या शेंकड्यांत) भारतांत आयलो.

थांग साम्राज्य काबार जाल्याउपरांत हांगा फुडलीं सुमार पन्नास वर्सां अराजक पातळ्ळें.

*सुंग घराणें* (९६०-१२७९): जाव स्वांग ह्या लश्करी अधिकाऱ्यान आपल्या फाटीराख्यांच्या आग्रावेल्यान थाय-जू (मूळ पुरुस) हें नांव आपणायलें आनी सुंग घराण्याची थापणूक केली. सुंग काळांत पर्यून हांगा

कन्फ्यूशियस पंथाचो नेटान प्रसार जालो. होकायंत्र, दारु (gunpowder), ग्रंथ छापपाखातीर लांकडी ठशे हांचो म्हत्वाचो सोद ह्या काळांत लागलो. खोतान, तांगुट आनी रुर्जन ह्या पंगडावांगडा सूंग राजघराण्याक बरींच झुजां करचीं पडलीं. ह्याच वेळार चंगीजखानाच्यो घुरयो चीनाचेर जावंक लागल्यो आनी सुंगा वांगडा हेर ल्हान व्हड राज्य सत्तांकय मंगोलांनी त्रास करूंक सुरवात केली. कांय राज्यां मंगोलांवांगडा जावपी झुजांनी काबार जावन गेलीं. ह्या सगळ्या राज्यांची सुंग काळांत बरीच उदरगत जाल्ली.

*मंगोल सत्ता* (१२६०-१३६८): चंगीजखानाच्या फुडारपणाखाल एकवटित जाल्ल्या मंगोल ह्या उत्तरेकटेनच्या लोकांनी एका फाटोफाट एक राज्यांचेर जैत मेळोवंक सुरवात केली. चंगीजखानान आपलें साम्राज्य पयसमेरेन पातळायलें. तो मेल्याउपरांत ताच्या पुतांमदीं आनी पुतण्यांमदीं राज्याचे वांटे जाले. चंगीजखानाचे नातू मंगू आनी कुब्लायखान हांणी सुंग सत्तेक काबार करून उडयली. कुब्लायखानाक १२९४ त मरण आयलें. ताचे उपरांत मंगोल साम्राज्य सुमार ७५ वर्सां तिगलें आनी त्या काळांत णव सम्राट सत्तेर आयले. पूण तांची कोणाचीच एदें व्हडलें राज्य सांबाळपाची कुवत नाशिल्ली. मंगोलांआड हांगा बऱ्योच गुप्त संघटना वावरूंक लागल्यो. १२३६ त एक बंडखोर बौध्द भिक्षून पिकींगाचेर जैत मेळोवन मिंग घराण्याची थापणूक केली.

मंगोलांच्या काळांत चिनी वेपारी आनी विचारवंत हेर देशांनी पावले. हेर कडलेय लोक बऱ्याच प्रमाणांत हांगा पावले. मार्को पोलो सारक्या युरोपीय भोंवडेकारान मंगोलांच्या काळांतली गिरेस्तकाय बरोवन दवरल्या. ह्या काळांत चीनांतल्यान रेशीम आनी चिनी मातयेचीं आयदनां हांच्या बदलाक मसाले, मोती, कपडो हांचो वेपार बऱ्याच नेटान जातालो. मंगोलांच्या धोरणांक लागून हांगा इस्लाम धर्म आनी किरिस्तांव धर्माच्या नेस्टोरियन आनी रोमन कॅथलिक पंथांचो प्रसार जालो. कुब्लायखानान हांगा किरिस्तांव आनी बौध्द धर्माक बरोच पालव दिलो.

*मिंग घराणें* (१२६८-१६४४): जू युआन-जांग ह्या मिंग घराण्याची बुन्याद मारपी सम्राटाची कारकिर्द चड जैतिवंत थारली. पिकींगाचेर जैत मेळयल्या उपरांत ल्हव ल्हव ताणें आपल्या सैन्याच्या बळार हेर वाठारांचेर शेक गाजोवंक सुरवात केली. जू युआन-जांग हाणें आपले मुस्तींत वेपाराक बरेंच फाटबळ दिलें. बौध्द धर्माक ताणें पालव दिलो पूण राजधर्म म्हूण कन्फ्यूशियस पंथ आपणायलो. ताचे राजवटींत ताणें थळाव्या राज्यकारभाराची वेवस्था चलोवपाखातीर सुदारित कायदे हाडले. मिंग घराण्यांतलो दुसरो म्हत्वाचो राजा म्हळ्यार जू डि (१४०३-२४). ताच्या काळांत चिनी आरमारांची उदरगत जाली. ताणें आपल्या राज्याची राजधानी पिर्किंग हांगा हाडली. ताणें आपल्या कर्तुपांतल्यान राज्याक शेजारच्या हेर देशांमदीं नामना मेळोवन दिली. ताचे उपरांत सत्तेर आयिल्ले ह्या घराण्याचे राजा दुर्बळ आशिल्ले आनी जपान आनी उत्तरेकटेंतल्यान येवपी मांचू टोळयांच्या घुरयांमुखार तांचो शेक चलूंक शकलोना.

*मांचू वा च्यिंग साम्राज्य* (१६४४-१९१२): सोळाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत मांचू टोळयेचो फुडारी नुरहाचि हाणें मँचूरियांत मूकडेन (शन-यांग्) हांगा आपल्या राज्याची थापणूक केली. कांय काळाउपरांत तांणी उत्तर चीनांतले हेर वाठार आपले सत्तेखाला हाडले. १६४४ ते १८४२ मेरेन सत्तेर आयिल्ल्या स सम्राटांतले खांग स्यी (१६६१-१७२३) आनी च्यून लूंग (१७३६-९६) हांचीच सत्ता चड तेंप उरली.

मांचू राजवटीचीं सुरवातीचीं सुमार दोनशीं वर्सां उदरगतीचीं थारलीं. चीनाचो सगळ्यांत चड विस्तार ह्याच काळांत जालो. अफूच्या वाडत वचपी प्रसाराक लागून संकश्टांय आयलीं. च्या, रेशीम, माजरपाट, लाखेच्यो वस्तू, कायग, चिनी मातयेचीं आयदनां आदी चिनी मालाक बरीच मागणी आशिल्ल्यान वेपाराची उदरगत जाली.

१८२० ते १९११ मेरेन पांच सम्राट जावन गेले. ते सगळेच दुबळे आशिल्ले. तांच्या काळांत चीनाक अर्थीक आनी राजकी प्रस्नांचेर उपाय सोदूंक जालें ना. वाडपी लोकसंख्या, दुकळ, हुंवार आनी परंपरेन चलून आयिल्ल्या उद्येगांच्या मळार अधोगत ह्या गजालींक लागून हांगा सामकीच वायट परिस्थिती आयली. मांचू सत्ता दुर्बळ जायत गेल्या हें पळोवन उत्तरेकटेनसावन रशिया आनी जपान, दक्षिण आनी उदेंतेवटेनसावन इंग्लंड, फ्रांस हांचें चेंपण चीनाचेर वाडटालें. तातूंतल्यान बरींच झुजां जालीं.

सोळाव्या शेंकड्यासावन रशियान विस्तारवादी धोरण आपणायल्लें आनी ते नदरेंतल्यान तांणी उत्तरेकटेनचो बरोच वाठार चीनाकडल्यान हातासलो. जपानी राज्यकर्त्यांनीय चीनाचे बरेच वाठार जिखून घेतले. माकाव जुंव्याचेर पोर्तुगेजांची वसाहत जाली. इंग्लंडान तर अफूच्या वेपारांतल्यान हांगाच्या समाजाक सामकोच काबार करून उडयलो. ब्रिटन आनी चीन हांचे संबंद इबाडत गेले आनी फुडें १८३९-४२ आनी १८५६-६० त अफूचीं झुजां पेटलीं. इंग्लंडान हांगा व्हड प्रमाणांत अफू विकूंक सुरवात केल्ल्यान ह्या झुजांक कारण मेळिल्लें. ह्या झुजांनी चीनाचो पराभव जालो.

मांचू राजवटी आड थळाव्या लोकांनीय एकवटीत जावन झुजूंक सुरवात केल्ली. राश्ट्रवादी विचार हांगा ह्याच काळांत पातळूंक पावले. १८४८-१८६५ तलें तायपींग बंड, यूनान, सिक्यांग सारक्या वाठारांतल्या मुसलमानांचीं बंडां, अशीं बंडां हांगा जालीं. ह्या बंडांआड युरोपीय वसाहतवाद्यांनी चीनांतल्या मांचू राजवटीक फाटबळ दिलें. दुसरेकटेन सन-यत्-सेन सारक्या फुडाऱ्यांनी राश्ट्रवादी विचारसरणेंतल्यान आनी सुदारणावादी फुडारिल्ले विचार पातळावपाखातीर संघटना उबारली. ह्या राश्ट्रवादी विचारांचो परिणाम जावन बॉक्सर बंड जालें. बंडाउपरांत हांगा शिक्षणपध्दतींत आनी लश्करांत कांय प्रमाणांत सुदारणा जाल्यो. पूण सन-यत्-सेनच्या राश्ट्रीय पक्षाचें समाधान जालें ना आनी १९११ त क्रांती जावन नानकिंग हांगा १ जानेवारी १९१२ दिसा सन-यत्-सेनाच्या फुडारपणाखाल प्रजासत्ताकाची घोशणा जाली. सुमार २,५०० वर्सां अस्तित्त्वांत आशिल्ली चिनी राजेशाय काबार जाली.

*१९१२ उपरांतचो इतिहास:* मांचू सरकारांत बरेंच वजन आशिल्ल्या युआन शृ-खाय हाणें सन-यत्-सेनाच्या आड कारवायो करूंक सुरवात केली. सन-यत् सेनान राजीनामो दिवन शृ-खाय हाका प्रजासत्ताकाचो मुखेल केलो. ताणें सगळीच सत्ता आपल्या हातांत घेवन राश्ट्रवाद्यांनी सुचयिल्ल्या संविधानाक विरोध केलो. संसदेच्या दोनूय सभाघरांतल्या कितल्याशाच जाणांक भायर उडोवन तो हुकूमशहाभशेन वागूंक लागलो. चीनांत पर्थून राजेशाय निर्मून आपूण राजा जावंचो, हे खटपटींत आसतनाच ताका मरण आयलें. तो मेल्या उपरांत हांगा एकामेकांमदीं जाल्ल्या झुजांतल्यान सत्ता लश्कराच्या हातांत पावली. दक्षिण चीनांत कँटन हांगा सन-यत्-सेनच्या फुडारपणाखाल दुसऱ्या राश्ट्रवादी सरकाराची थापणूक जाली. ह्या शासनान उत्तरेकटेनच्या लश्करी राजवटीक मान्यताय दिली ना. ह्या काळांत पयलें म्हाझूज सुरू जालें. इंग्लंड, रशिया ह्या सारकीं दोन बळिश्ट राश्ट्रां झुजांत घुसल्यांत, ही संद घेवन जपानान चीनाचेर आपली सत्ता गाजोवपाचे नदरेन यत्न करूंक सुरवात केली.

१९२० उपरांत हांगा उद्येगधंद्याच्या मळार नेटान वावर जावंक लागलो. फुडारिल्ल्या विचारांचें साहित्य आनी सन-यत्-सेनचे राजकी विचार लोकांमदीं पातळिल्ल्यान समाजांत जागृताय आयली. कँटनांतलें सन-यत्-सेनचें सरकार आनी पिकींगातलें सरकार हांचेमदलीं झगडीं चालूच उरलीं. पिकींग शासनाक इंग्लंड, फ्रांस हांची मान्यताय आशिल्ली. पिकींग सरकाराचेर जैत मेळोवन चीनाचो एकवट करपाखातीर कँटन सरकारान अमेरिका आनी कॅनडाचो पालव घेवंक सुरवात केली; पूण तें शक्य जालें ना आनी तांणी रशियाकडेन फाटबळ मागलें. रशियांत राज्यक्रांती जावन बोल्शेविक सरकार सत्तेर आयिल्लें. तांणी सुर्वेक अडॉल्यव्ह यॉव्हे आनी उपरांत मिखायल बोरोडिन आनी मनवेंद्रनाथ रॉय हांकां चीनांत धाडले. रशियाच्या पालवांतल्यान चिनी शासनाची आनी कोमिंतांग पक्षाची पुनर्रचणूक जाली. रशियांत खासा

लश्करी शिक्षण घेतिल्ल्या चैंग-कै-शेक हाची लश्करी अकादेमी, व्हँपोआ चो मुखेली म्हूण नेमणूक जाली. ताच्या पालवान चिनी लश्कराक आर्विल्ल्या झूजतंत्राचें शिक्षण मेळ्ळें. कोमिंतांग पक्ष फकत बुध्दीवाद्यांची संघटना उरली ना, पूण शेतकार-कामगार हांकांय आपलेवटेन ओडूंक लागली. १९२५ त सन-यत्-सेनाक मरण आयलें आनी चिनी इतिहासाक एक नवें मोडण मेळ्ळें.

कोमिंतांग पक्षांतल्या कम्युनिस्ट विचारसरणेच्या प्रतिनिधींच्या फाटबळान चैंग-कै-शेक सरसेनापती आनी वांग-जिंग-वै पक्षाचो अध्यक्ष जालो. पक्षांतले कम्युनिस्ट सगळे म्हत्वाचे हुद्दे आपल्या हातांत घेवंक सोदतात, हाचो ताका वास लागलो आनी ताणें स्वताच्या बऱ्यामागप्यांक बऱ्या बऱ्या सुवातींचेर नेमपाक सुरवात केली. ताच्या रशियाविरोधी धोरणाक लागून ताका अमेरिका, इंग्लंड, फ्रांस हांचें फाटबळ बरेतरेन मेळ्ळें. लोकशायेच्या नांवार ताणें उजवे विचारसरणेच्या लोकांच्या पालवान हुकूमशाय सुरू केली. कम्युनिस्ट ताच्या कडल्यान पयसावले आनी तांणी दक्षिण चीनांतल्या दोंगरी वाठारांत (जिआंगसी) स्वतंत्र राज्याची थापणूक केली.

चैंग-कै-शेक सत्तेर आसतना जपानान पर्थून चीनाचेर घुरी घाली. कम्युनिस्टांक काबार केल्याबगर स्वताक सत्तेर रावप शक्य जावचें ना, हें जाणा जावन चैंग-कै-शेकान जपानांकडेन नांवापुरतें झूज चालू दवरलें आनी कम्युनिस्टांक मारून उडोवंक सुरवात केली. माओ-त्से-तुंगच्या फुडारपणाखाल कम्युनिस्ट पक्षान गनिमी काव्याच्या आदारान ३६८ दिसांत १२,००० किमी. प्रवास करून उत्तर शेन्सी प्रांतांत पावल दवरलें आनी झूज चालू केलें. १९३८ चैंगाक कम्युनिस्टांवांगडा तडजोड करून जपानावांगडा झूज करचें पडलें. तडजोडी उपरांत लेगीत चैंगाचो कम्युनिस्टांक विरोध आशिल्लोच.

इतले मजगतीं दुसऱ्या म्हाझुजाक सुरवात जाली. कम्युनिस्टांची हांगा शक्त वाडची न्हय, हाका लागून झुजाउपरांत अमेरिकेन कोमिंतांग पक्षाक बरोच पालव दिलो. रशियानूय कोमिंतांगावांगडा कबलात केली. पूण लोकांचो तेंको पुरायपणान काबार जाल्ल्यान कोमिंतांग पक्षाचें बळगें उणें जाल्लें. निमाणें १९४९ त माओ आनी ताच्या कम्युनिस्ट पक्षान तांचेर जैत मेळोवन कम्युनिस्ट पक्षाची सत्ता हांगा हाडली. चैंग चीनांतल्यान पळून गेलो आनी ताणें फॉर्मोसा (तैवान) जुंव्याचो आलाशिरो घेतलो.

*आर्विल्लो काळः* ३ फेब्रुवारी १९४९ त चिनी क्रांती पुराय जाली. जमीनदारी, अज्ञान, गरीबी आनी हेर संकश्टांचेर उपाय काडपाखातीर कम्युनिस्ट सरकारान आपल्यो अर्थीक कार्यावळी थारायल्यो. १९५८ त सगळ्या जमनींचें समाजीकरण जालें आनी कम्यून्सांवरवीं शेतवड चलूंक लागली. परकी देशांचो प्रभाव उणो करपाखातीर चिनी लोकांनी हांगाच्या इगर्जींभितर फकत चिनी धर्मगुरुच नेमचे, असो आदेश काडलो. ताका लागून कितलेशेच भायले मिशनरी चीन सोडून गेले.

शेंकड्यांनी वर्सां कन्फ्यूशियसच्या तत्वगिन्यानाचेर आदारिल्लो समाज कम्युनिस्ट राजवटीखाला पुरायपणान बदललो. शिक्षणाच्या मळार नेटान वावर जालो. बायलांक चडांत चड अधिकार मेळ्ळे. साहित्याच्या आनी कलेच्या मळार वावुरप्यांक माओन विचारस्वतंत्रतायेचें आवाहन केलें. पूण कम्युनिस्ट सरकाराचेर चड खर टिका जाता, हें पळोवन उपरांत ताणें तें बंद केलें.

रासवळ शेतवड, उद्येग आनी शासन चलोवपाखातीर तयार केल्ले कम्यून्स म्हळ्यार कांय जाणांच्या मतान एक लोकशाय संस्थानाचो प्रयोग, पूण चीनाचे विरोधक तांकां बंदखण म्हण्टात. पोरनी संस्कृताय आनी विचार काबार करून थंय नवी संस्कृताय हाडपाखातीर तशेंच साहित्य आनी कलेच्या मळार भांडवलदारी विचारांचें जावपी प्रदर्शन सोपोवपाखातीर माओन सांस्कृतिक क्रांतीचो उलो मारलो. लिन पियाव, चौ एन्-लाय, छन ब्रो-दा आनी माओची घरकान्न ज्यांग चींग हे सांस्कृतिक क्रांतीचे हेर फुडारी थारले. माओ आनी लिन पियाव हांचेमदीं वैचारिक संघर्श सुरू जालो आनी तातूंतल्यान लिन पियाव हाका दोशी थारायलो.

फाटल्या पंचवीस वर्सांचो चिनी इतिहास सामको घुस्पागोंदळाचो आसा. १९७१ त चीनाक संयुक्त राश्ट्राचें प्रतिनिधीत्व मेळ्ळें. ताचेपयलीं १९५६ त रशियांत ख्रुश्चेव सत्तेर येतकच ताच्या धोरणांकडेन पटनाशिल्ल्यान चीनान रशियाआड धोरण घेतलें. आल्बेनिया सोडून संवसारांतल्या सगळ्या कम्युनिस्ट देशांकडल्यान हे गजालीक लागून चीन वेगळो जालो. १९७२ त अमेरिकेन अध्यक्ष निक्सन हाणें चीनाक भेट दिली आनी दोनूय देशांमदीं बरे संबंद आसचे, हे नदरेन बऱ्याच मळांचेर कबलाती केल्यो. १९६२ त भारतावांगडा जाल्ल्या झुजांतल्यान भारत-चीन संबंद इबाडले. ते संबंद पर्थून बऱ्या मार्गार हाडपाचे नदरेंतल्यान १९८९ त यत्न चालू जाले. १९७६ त माओ आनी चिनी क्रांतीचो दुसरो फुडारी, चौ एन्-लाय हांकां मरण आयलें. माओच्या मरणाउपरांत माओचे घरकान्नीच्या फुडारपणाखाल सत्ता हातासूंक सोदपी 'गँग ऑफ फोर' हांकां अटक जाली. माओच्या फुडारपणाखाल सांस्कृतिक क्रांती म्हळ्यार एक चूक असो निर्णय घेवन निमणें १९८१ त 'गँग ऑफ फोर' हांकां बंदखणींत उडयलीं. १९८२ डेंग शियाओ पिंगच्या फुडारपणाखाल मवाळ धोरण आपणावन चिनी फुडाऱ्यांनी आनी कम्युनिस्ट पक्षान माओच्या विचारांकडेन फारकत घेतली. १९८६ सावन हांका लोकशाय हक्कांखातीर विद्यार्थ्यांची चळवळ जावंक लागली. १९८९ मेरेन हे चळवळीन खर रुप घेतलें आनी सांस्कृतिक क्रांतीइतली उग्र चळवळ देशभर पातळ्ळी. लश्कराच्या आदारान ही चळवळ पुरयपणान चिड्डून उडोवपाचो सरकारान यत्न केलो.

**राज्यवेवस्थाः** क्रांतीउपरांत आयजमेरेन हांगा चार संविधानां तयार केलीं. १९५४, १९७५, १९७८ आनी १९८२. सद्याचें म्हळ्यार १९८२ चें संविधान पांचव्या नॅशनल पीपल्स कॉंग्रेसींत मानून घेतलें. चीन प्रजासत्ताक समाजवादी देश आसा, जंय कश्टकरी लोकांच्या, शेतकार आनी कामगार हांच्या हातांत सत्ता आसा. राज्यवेवस्था मार्क्सवाद-लेनिनवाद आनी माओ विचारांच्या तत्त्वांचेर चलता. सत्ता खऱ्या अर्थान कम्युनिस्ट पक्षाच्या हातांत आसा. नॅशनल पीपल्स कॉंग्रेस ही विधीमंडळाचो भार सांबाळपी संघटना. दर पांच वर्सांनी हे संघटनेचे वांगडी वेंचणुकांतल्यान वेंचून येतात.

थळाव्या राज्यकारभाराखातीर हांगा २१ प्रांत, ५ स्वायत्त वाठार आनी मध्यवर्ती प्रशासन आशिल्लीं तीन व्हडलीं शारां आसात.

प्रांतांनी आनी स्वायत्त वाठारांनी तशेंच गांवच्या थराचेर राज्यकारभार चलोवपी संस्था आसात. १९५८ त हांगा कम्यून संघटना अस्तित्वांत आयली. कम्यून्सांवरवींय राज्यकारभाराविशीं वावर जाता. हांगा कामगार, शेतकार, विद्यार्थी आनी बायलो हांच्या संघटनांकूय राज्यकारभारांत वांटो घेवंक मेळटा.

**अर्थीक स्थितीः** शेतवडीक ह्या देशांत बरेंच म्हत्व आसा. हांगाची जमीन पिकाळ आशिल्ल्यान पिकावळ बरीच जाता. गंव, तांदूळ, च्या, सोयाबीन, कापूस, मसमी भिकणां, तंबाखू, ऊंस, रेशीम हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. खनिजसंपत्तींत कथील, शिशें, मँगनीज, बॉक्साइट, अँटीमनी आनी टंगस्टन हांचो आस्पाव जाता. सैमीक तेल आनी वायूय बऱ्याच प्रमाणांत मेळटा. हांगा बऱ्योच न्हंयो आशिल्ल्यान तातूंत बरेंच नुस्तें आसा. दर्यादेगांचेरुय नुस्तेमारीचो धंदो नेटान चलता.

उद्येगीक मळार चीनाचे क्रांतीउपरांत बरीच उदरगत जाल्या. यंत्रां, कपडो, रसायनां ह्या गजालींच्या उत्पादनांत बरीच वाड जाल्या. तेभायर ल्हान सान उद्येगांकूय हांगा म्हत्व आसा. जपान, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, हॉंगकॉंग, अस्तंत जर्मनी, कॅनडा, ऑस्ट्रेलिया ह्या देशांतल्यान चडशी आयात जाता. निर्यातीचे वेव्हार चडशे जपान, हॉंगकॉंग, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, जॉर्डन, सिंगापूर ह्या देशांकडेन जातात. चीनांत पळोवपासारक्यो बऱ्योच सुवाती आशिल्ल्यान पर्यटनांतल्यान ह्या देशाक बरेंच उत्पन्न मेळटा.

रेन्‌मिन्लि हें हांगाचें चलनी नाणें. 'पीपल्स बँक ऑफ चायना' हे मुखेल बँकेवरवीं अर्थीक वेव्हार जातात.

**येरादारी आनी संचारण:** १९८६ मेरेन चीनांत ९,४०,००० किमी. लांबायेचे रस्ते जाल्यार १९८५ मेरेन ५६,००० किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आशिल्ले. उदकांतल्यान येरादारी करपाखातीर न्हंयांचो उपेग जाता. हांगा सुमार १,३६,००० किमी. लांबायेचे उदकांतले मार्ग आसात. तियानजिन, शांघाय, किंगडौ, लुडा आनी कँटन हीं ह्या देशांतलीं मुखेल बंदरां. हवाई मार्गावयली येरादारी 'सिव्हील ॲव्हिएशन ॲडमिनीस्ट्रेशन ऑफ चायना' (CAAC) हे संस्थेवरवीं चलता. हवाई मार्गावयल्यान चीनाची बऱ्याच हेर देशावांगडा येरादारी जाता. तेभायर हेर देशांच्या विमानकंपन्यांवरवींय चीनाकडेन हवाई मार्गावयल्यान येरादारी चलता. १९७६ मेरेन कँटन, शांघाय आनी बिजींग हांगा मुखेल विमानतळ आशिल्ले.

रेडिओ, दूरचित्रवाणी हांच्या मळार चीनांत उदरगत करपाचे यत्न चालू आसात. १९८६ मेरेन चीनांत २२२ दिसाळीं उजवाडाक येतालीं. सगळ्या प्रसार माध्यमांचेर सरकाराचें पुराय नियंत्रण आसता. प्रसार माध्यमावरवीं सांस्कृतिक क्रांतीउपरांत जावपी मार्क्सवादाचो प्रचार सद्या उणो जाला. दिसाळ्यांवांगडा हेर खबरापत्रांची आनी नेमाळ्यांची संख्या बरीच व्हड आसा.

**लोक आनी समाजजीण:** चीन बरेच पोरनो देश आशिल्ल्यान थंय मूळ एकाच मानववंशाच्या फांट्याचे लोक आसात, अशें हालींमेरेन मानताले. हांगा ९३% लोक हान वंशाचे (पोरन्या हान साम्राज्यावेल्यान तांकां हें नांव मेळ्ळें) आसात. तेभायर चुआंग, हुई, मियाओ, उईघुर, ई, मंगोल, तुर्की आनी हेर बऱ्याचशा वंशांचेय लोक हांगा आसात. विंगड विंगड राश्ट्रीयत्वाचे लोक हांगा आशिल्ल्यान हो देश भौराश्ट्रीय आसा, अशें मानतात.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणेमेरेन चीनांत समाजापरस कुटुंबाक आनी कुटुंबांच्या चोम्यांक चड म्हत्व दिताले. कम्युनिस्ट क्रांतीउपरांत हें म्हत्व सामकेंच सोंपलें. चीनांत जातीभेद नाशिल्लो, पूण अर्थीक भेद आशिल्लो. समाजांत बुध्दीजीवी मनशांक शारिरीक काम करप्यांपरस चड मान मेळटालो. वेपारी, नट, सादारण कामगार, वेश्या हांकां समाजांत सकयल्या पांवड्यावयले लेखताले. घराघरांतल्यान घरच्या कामांखातीर बायलमनीस गुलाम म्हूण वापरताले. बायलांक समाजांत सामकीच परतंत्रताय आशिल्ली. क्रांती उपरांत ही परिस्थिती बदलली आनी हांगा समाजांत पुरायपणान बदल घडलो.

चिनी लोक कश्टाळू, बुध्दीवान आनी हुशार अशें मानतात. तांकां रांदपाची भोव आवड. हांगाच्या जेवणाचे पदार्थ संवसारभर पावल्यात. सोऱ्याक हांगा बंदी ना. तांदळांचो सोरो हांगा बरोच लोकप्रिय आसा. च्या हें चीनाचें राश्ट्रीय पेय. पयलींसावन चिनी समाजाचेर कन्फ्यूशियस, बौध्द आनी ताओ विचारांचो प्रभाव आशिल्लो. १९८० मेरेन हांगा ५९.२% लोक धर्म मानीनाशिल्ले; २०.१% चिनी पारंपारिक लोक धर्म मानपी; १२% नास्तिक; ६% बौध्द, २.४% मुसलमान आनी ०.२% किरिस्तांव आशिल्ले. पयलींसावन हांगा सण आनी उत्सव व्हडा दबाज्यान मनयतात. क्रांती उपरांत साम्यवादी राजवटीन कांय नवे सण आनी उत्सव मनोवंक सुरवात केली. क्रांतीपयलीं हांगा भुरग्यांची ल्हानपणांत लग्नां जातालीं; ल्हान पावलां आसप हें सोबीतकायेचें लक्षण मानून बायलांचे ल्हानपणासावन पावलां बांदून दवरताले. क्रांती उपरांत ह्यो प्रथा नश्ट जाल्यो.

लग्नमोड दिवपाखातीर पयलीं हांगाच्या कायद्यांक लागून बरेंच कठीण आसतालें; कम्युनिस्ट राजवटीन नवे कायदे हाडून तो सोपो केला. पूण हे गजालीक सरकाराचो तेंको वा फाटबळ नासता. कलेच्या मळार चीनाची पयलींसावन उदरगत जाल्या. चित्रकला, शिल्पकला, वास्तुकला, संगीत हांकां बरोच पोरनो आनी गिरेस्त इतिहास आसा. कन्फ्यूशियसच्या विचारांप्रमाण समाजांत बुदवंतांक मान आसतालो आनी ताका लागून कलेइतले खेळ हांगा उदरगतीक पावले नात. क्रांती उपरांत चीनान खेळामळांचेर आपली हुशारकाय दाखोवंक सुरवात केल्या. संवसारीक खेळासर्तीनीं आयज चीनाची सुवात बरीच ऊंच आसा. साम्यवादाच्या परिणामान हांगाची विचारसरणी बदलून नव्या विचारांचें प्रदर्शन कलेवरवीं जाल्लें पळोवंक मेळटा. पूर्विल्ल्या काळासावनूच ह्या लोकांक कलेची जाण आनी सोबितकायेची आवड आशिल्ल्यान संवसारभर चिनी कलेन नामना मेळयल्या.

**शिक्षण:** पयलींच्या काळांत शिक्षणाच्या मळार चीनांत बरीच उदरगत जाल्ली. पोरनी शिक्षणपध्दत, तत्त्वगिन्यान, साहित्य, संगीत, वैजकी, चित्रकला, झूजशास्त्र, नितीशास्त्र हे विशय शिकयताली. वैजकी मळार ॲक्यूपंक्चर पध्दतीन रोग बरे करपाची कला हांगा २५०० वर्सांपयलींसावन उदरगतीक आयिल्ली. हे खासा चिनी उपचार-पध्दतीचेर आयज संवसारभर संशोधन चलता. हे शिक्षणपध्दतींत पाठांतर आनी निबंद बरोवप हांकां म्हत्व आसतालें. ताचे उपरांत अस्तंतेकडल्या देशांच्या वसाहतवादावरवीं हांकां नव्या शिक्षणाचो प्रसार जालो. १९४९ त जाल्ले क्रांतीउपरांत शिक्षणपध्दत पुरायपणान बदल्ली.

गिन्यान हें फकत गिन्यानाखातीर नासून समाजाखातीर आसता आनी ते नदरेंतल्यान शिक्षणपध्दत वापरूंक जाय, ह्या विचारांतल्यान हांगा शिक्षणाच्या मळार वेगळेपणान विचार जावंक लागलो. भांडवलशाय, सरंजामशाय आनी साम्राज्यवादा आड प्रसार करप, वैज्ञानिक नदरेंतल्यान शिक्षण दिवप आनी साम्यवादी विचारसरणी पातळावपाचो वावर शिक्षणावरवीं जाता. सांस्कृतिक क्रांतीचोय शिक्षणाचेर बरोच परिणाम जालो. बुध्दीवादी शिक्षणापरस शारिरीक काम आनी तेविशीं शिक्षण हांकां चड म्हत्व मेळ्ळें. माओच्या मरणाउपरांत पर्थून शिक्षण पध्दतींत मात्शे बदल जाले. मुळावें, माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक थरांचेर शिक्षण दितात. तें चिनी समाज आनी देश हांची चडांतचड म्हायती दिवपी आसता.

उंचेल्या पांवड्यावयलें शिक्षण दिवपी हांगा सुमार ८०० परस चड संस्था आसात. तंत्रगिन्यान आनी संशोधनाच्या शिक्षणाक बरेंच म्हत्व आसा. संवसारांतल्या हेर देशांतले बरेच विद्यार्थी शिक्षण घेवपाखातीर चीनांत आसात. चीनांतले विद्यार्थीय शिक्षणाखातीर हेर देशांनी आसात. हांगाची शिक्षणपध्दत संवसारांतल्या हेर शिक्षणपध्दतीपरस मात्शी वेगळी आसा आनी सत्ताधीश बदलतात तेप्रमाण शिक्षणाच्या मळार तात्त्विक बदल जातात.

**भाशा आनी साहित्य:** चिनी भाशा ही सिनो-तिबेटी भाशाचोम्यांचो एक फांटो आसा. हे भाशेंत आनीक बरेच ल्हानसान फांटे आसात. सगळ्यांत म्हत्वाचो फांटो म्हळ्यार मँडरीन चिनी. ही भाशा उत्तरेकडेन चडशी वेव्हारांत वापरतात. तिच्योय बऱ्योच बोली आसात. चिनी भाशेचे लिपयेक बरोच पोरनो इतिहास आसा. ती चित्रांभशेन आसा. चिनी चित्रलिपीसारकी लिपी हेर खंयचेच भाशेंत ना.

चिनी साहित्याक ४,००० वर्सांची परंपरा आसा. २५० वर्सांपयलीं चीनांत जितलें साहित्य आशिल्लें. तितलें संवसारांतल्या हेर खंयचेच भाशेंत नाशिल्लें; इतलेंच न्हय तर संवसारांतल्या सगळ्या भाशांतल्या वट्ट साहित्यापरस तें चड आशिल्लें. हांगा सुमार सगळेच लोक कविता बरयताले, अशें मानतात. इतिहासावयले बरपावळीक, तत्त्वगिन्यान, कथा, नाटक, हांकां बरीच पोरनी परंपरा आसा. क्रांतीपयलीं उजवाडाक आयिल्लें चडशें साहित्य कन्फ्यूशियस विचारांचेर आनी बुध्द आनी ताओ विचारांचेर आदारिल्लें. क्रांतीउपरांत, खासा करून सांस्कृतिक क्रांतीउपरांत हांगा मार्क्सवादी विचारांच्या नेटाक लागून पोरन्या विचारांचें साहित्य काबार जावन गेलें. समाज बदलपाखातीर साहित्याची गरज आसता. ह्या तत्त्वगिन्यानांक तेंको दिवपी चिनी फुडाऱ्यांनी क्रांतीउपरांत साम्यवादी विचारांचें प्रदर्शन घडोवपी साहित्याक उर्बा दिली आनी पोरने विचार फुडें दवरतल्यांक ख्यास्त दिली. लू सुन, लाव श, माव दुन, बा जिन हे संवसारभर नामना मेळयिल्ले विसाव्या

शेंकड्यांतले कांय चिनी साहित्यीक जावन आसात.

**म्हत्वाचीं थळां:** राजधानी बिजींग (पयलींची पिकींग), शांघाय, कँटन हीं हांगाचीं व्हडलीं शारां; तेभायर चुंगकिंग, वूहु तिन्‌त्सिन, मूकडेन, आनशान, चिंगडाव, नानकिंग, फूजो हींय बरींच म्हत्वाचीं शारां जावन आसात. पोरनी परंपरा आशिल्लीं आनी भोंवडेकारांक आकर्शण थारपी शारां आनी गांवगिरे वाठार चीनांत बरेच आसात. कॅश्गार, खोतान, गार्टोक, तिबेटची राजधानी ल्हासा हीं शारां थंयचे सैमीक सोबितकायेक लागून आनी इतिहासीक पुराव्यांक लागून अप्रूपाचीं थारल्यांत. चिनी वणत आनी चीनांतलो कालवो (लांबाय १,९०० किमी.) जो यांगत्सी आनी हळडुव्या न्हंयांक जोडटा, हीं संवसारांतलीं अजापां अशें मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**चुंबकचिकित्सा:** हाता-पांयांक वा कुडीच्या दुखपी अवयवाक चुंबक लावन दुयेंस आळाबंदा हाडपी शास्त्र म्हळ्यार चुंबकचिकित्सा (Magnetotherapy). चुंबकचिकित्सा ही खूब पूर्विल्ली चिकित्सा पध्दत आसा. अथर्ववेदांत दुयेंस आळाबंदा हाडपाखातीर ताचो कसो उपेग करचो, हाचेर मंत्र आसात. तातूंत चुंबकांक 'अस्मन' आनी 'सिकत' हे शब्द वापरल्यात. पयलींचे राजा आपली शक्ती राखून दवरपाखातीर चुंबकाचो वापर करताले. ईजिप्तची सौंदर्यसम्राज्ञी क्लिओपात्रा ही आपली सोबितकाय राखून दवरपाखातीर आपल्या कपलाचेर ल्हान चुंबक बांदून दवरताली, अशी एक दंतकथा आसा. काळांतरान ही चिकित्सा ना जाली. पूण फाटल्या कांय दशकांत हे चिकित्सेक रशिया, चीन, जपान, अमेरिका ह्या देशांत बरीच चालना मेळ्ळ्या आनी ह्या मळाचेर नवें नवें संशोधन चालू आसा.

चुंबकाक मॅगनेट (Magnet) हें नांव पडलें, तें माग्नेस (Magnes) नांवाच्या राखण्याक लागून. तो एकदां ग्रीस देशांतल्या माऊंट आयडा ह्या दोंगराचेर भोंवता आसतना अकस्मात ताची लोखणी तोपी एका फातराक दसून उरली. जेन्ना ताणें ती काडपाचो यत्न केलो तेन्ना तो एकदम सकयल कोसळ्ळो. माग्नेस हाणें सोद लायिल्ल्यान चुंबकाच्या फातराक Magnet हें नांव पडलें. असल्या ह्या Natural Magnets फातरांक loadstone अशें म्हण्टात.

कितले शक्तीचो चुंबक खंयच्या रोगाखातीर वापरपाचो, खंयचे शक्तीचो चुंबक कुडीच्या खंयच्या अवयवाक लावपाचो हाका चुंबकचिकित्सेंत खूब म्हत्वाची सुवात आसा. चिकित्सा (therapeutic) चुंबक वेगवेगळ्या आकाराचे आनी शक्तीचे आसतात. सादारणपणान कमी (low), मध्यम medium आनी उच्च high शक्तीचे चुंबक वापरतात. ह्या चुंबकांक मुळावे चुंबक (basic magnets) अशें म्हण्टात. कमी आनी मध्यम शक्तीचे चुंबक नाजूक अवयवांखातीर वापरपाचे आसतात. तशेंच ल्हान भुरग्यांखातीर कमी वा मध्यम शक्तीचे चुंबक वापरचे पडटात. दोळ्यांखातीर कमी शक्तीचे चुंबक वापरतात. उच्च शक्तीचे चुंबक खूब पोरन्या दुयेंसांक (chronic diseases) आनी जाण्ट्या मनशांक वापरपाचे आसतात. स्पाँडिलोसीस, संधिवात, कमरखुखी ह्या सारकिल्या दुयेंसांत उच्च शक्तीचे चुंबक वापरतात. तशेंच उच्च शक्तीच्या चुंबकांचो उपेग चुंबकीय उदक (magnetised water) करपाखातीर जाता. चुंबक सादारणपणान सुमार १५ ते २५ मिनटां सकाळ-सांज वापरचे पडटात. पूण थारावीक अशे नेम नात. ते रोग्याच्या दुयेंसाचे स्थितीचेर आदारून आसतात. पीडेस्तांच्या वेगवेगळ्या पीडेप्रमाण आनी दुयेंसाप्रमाण त्या दुयेंसाखातीर वापरपाच्या खाशेल्या चुंबकाचो काळ (duration) थारता. दरेका चुंबकाक दोन ध्रुव (poles) आसतात. एक दक्षिण (south) आनी दुसरो उत्तर (north). दरेका ध्रुवाचीं लक्षणां वेगवेगळीं आसतात.

भारतांत चुंबकचिकित्सा सुमार ३० वर्सांपयलीं सुरू जाली. ताचें सगळें श्रेय बंगालचो नामनेचो शास्त्रज्ञ डॉ. ए. के. भट्टाचार्य हाका वता. तशेंच दिल्लीचो डॉ. आर. एस्. ठक्कर आनी डॉ. एच्. एल्. बन्साल हाणींय चुंबकचिकित्सा प्रसाराच्या वावरांत मोलादीक कार्य केलां. अमेरिकेंत डॉ. ई. के. मॅक्लीन आनी डॉ. आल्बर्ट रॉय डेव्हिस हाणीं चुंबक चिकित्सेच्या विशयाचेर उपाट संशोधन केलां. डॉ. ई. के. मॅक्लान हाच्या म्हणण्या प्रमाण शक्तिशाली चुंबकीय क्षेत्रांत (high magnetic field) कॅन्सर पेशी जित्यो उरूंक शकनात. आयजमेरेन चुंबक चिकित्सेवरवीं कितलेशेच कॅन्सरचे पिडेस्त ताणें बरे केल्यात, अशें ताचें मत आसा. डॉ. आल्बर्ट रॉय डेव्हिस हाच्या म्हणण्याप्रमाण चुंबकीय उपचार पोटखणे (Gastric Ulcer) आनी वाय (Rheumatism) ह्या दुयेंसांचेर खूब गुणकारी आसा. रशियांत 'मुतखडो' विरगळून वचपाखातीर लेनिनग्राड हांगाच्या हॉस्पिटलांत चुंबक उदकाचो सर्रास वापर करतात. रशियांत चुंबक उदकाक अजापांचें उदक (Wonder Water) अशें म्हण्टात. जपानांत संधिवात, वेदना, न्हीदमोड, रक्तदाब ह्या दुयेंसांचेर चुंबकांचो व्हड प्रमाणांत वापर करतात. जपानचे रिस्ट बँड (Wrist Band- रगत दाब नियंत्रण करपी साधन) आनी चुंबकीय माळ (Magnetic Necklace) नामनेक पावल्यात. चीनांत चुंबकीय चोळयांचो वापर मोट्या प्रमाणांत जाता. चुंबकीय चोळयो दुखीआड खूब उपेगाच्यो आसात, अशें सिध्द जालां. चीनांत चुंबकीय बुटांचोय वापर जाता.

चुंबकचिकित्सा हें शास्त्र सैमीक नेमांचेर आदारिल्लें आशिल्ल्यान ताचेपसून कसलोच दुश्परिणाम जावपाची शक्यता ना. तरी फुडले नेम पाळचे पडटात: १. चुंबकीय उपचार लांकडाचे फळयेचेर वा खाटीचेर घेवप २. व्हडलें चुंबक नाजूक अवयवांक लावचें न्हय. ३. व्हडलें चुंबक लायतकच रोखडेंच न्हावचें न्हय. अर्द वर तरी रावन उपरांत न्हाण घेवचें, वा न्हावन जातकच उपचार घेवंचे. ४. रित्या पोटाचेर उपचार घेवंचे. ५. चुंबक जमनीर दवरचें न्हय वा आपटूंचें न्हय. ६. गुरवार बायलांक हातापांयांचेर चुंबक लावचें न्हय. चुंबकीय उदक पिवपाक हरकत ना. ७. ल्हान भुरग्यांक हातापांयांचेर चुंबक लावचें न्हय. ८. उपचार घेतकच रोखडींच थंड पेयां घेवंची न्हय.

चुंबकाचें कार्य मुखेल करून रगतांतल्यान चलता. चुंबक कुडीक लायतकच चुंबकाचीं सूक्ष्म ल्हारां कुडींत प्रवेश करतात. ताका लागून रगताभिसरण (blood circulation) जलद जाता. रगतवाहिन्यांतल्यान हेमोग्लोबीन (haemoglobin) सोंपेपणान व्हांवपाक लागता. कॅल्शियम आनी कॉलेस्टरोलसारक्या पदार्थांचो रगतांतलो थर कमी जाता. ताका लागून रगतवाहिन्यो लवचीक जातात आनी रगत शुध्द जाता. अशेतरेन काळजाचें कार्य वेवस्थित चालू जाता. ताका लागून ऊंच रगतदाब सारक्या कितल्याशाच रोगांपसून राखण मेळटा. जांकां high cholesterol चें दुयेंस आसा, तांणी ही चिकित्सा केली जाल्यार तांचें कोलेस्टरोल खात्रीन देंवन तांकां कोरोनरी काळजा दुयेंसाची भिरांत उरचीना, अशें बऱ्याच जाणकारांचें मत आसा. चुंबकाच्या वापराक लागून नाका आशिल्ले क्षार आनी विशारी द्रव्यां कुडीभायर घालप जाता आनी पुराय कुडीचें कार्य सुरळीत जाता. चुंबकाक लागून कुडीची रोगप्रतिकार शक्तीय वाडिल्ल्यान रोगनिवारण जाता. चुंबकाच्या वापराक लागून अंतग्रंथी (hormones) चो स्त्राव नियमित जाता आनी कातींत तिकतिकसाण येता. अशक्त पेशींक ताकद मेळटा.

चुंबकचिकित्सेंत चुंबक उदकाक खूब म्हत्व आसा. चुंबकउदकाचो पचनसंस्थेचेर एकदम बरो परिमाण जाता. मुत्रपिंडाच्या दुयेंसाचेर चुंबकीय उदक एकदम गुणकारी जावन आसा. मुतूंक जायना जाल्यार चुंबक-उदक आनी उदक समप्रमाणांत दर पांच-धा मिनटांनी दित रावल्यार मुतूंक जाता. चुंबक उदक हें वखद आसा. ताका लागून साद्या उदकासारको ताचो उपेग करचो न्हय. हें उदक सादारण अर्दो ग्लास हेप्रमाण दिसांतल्यान तीन-चारदां घेवपाचें आसता. मुतखडो आसत जाल्यार स खेपे लेगीत घेतात. चुंबकीय उदक तीन प्रकारचें आसता: १. उत्तर ध्रुव चुंबकीय उदक २. दक्षिण ध्रुव चुंबकीय उदक ३. मिश्र चुंबकीय उदक. दूद वा हेर पेयां लेगीत चुंबकीय करूं येतात. दूद चुंबकीय केल्यार ताची गुणवत्ता कितल्याशाच पटींनी वाडटा, अशें रशियन शास्त्रज्ञांनी सिध्द केलां. चुंबकीय दूद लैंगीक दुबळेपण घालोवपाखातीर वापरतात.

चुंबकचिकित्सा हें अशें शास्त्र आसा की ही चिकित्सा करतना हेर ॲलोपथिक-आयुर्वेदिक वा होमिओपथिक वखदां घेवपाक कसलीच आडकाठी ना. पूण होमिओपथिक वखदांचो हे चिकित्सेकडेन बरेंच मेळ बसता. दिसानदिस विद्युत्चुंबकचिकित्सेचो प्रसार नेटान वाडत आसा. खूबदां एकदम पोरन्या दुयेंसाचेर साद्या चुंबकाचो व्हडलोसो गुण येना, पूण विद्यूत चुंबकीय उपचार असल्या दुयेंसाचेर खूब गुणकारी थारतात. चुंबकीय उपचार स्पॉंडिलॉसीस, संधीवात, पांय मुयेवप, स्लिप डिस्क, गोडेंमूत, चिंता, नैराश्य (despression) आनी केंद्रीय तंत्रिकातंत्राचीं (central nervous system) हेर दुयेंसां, सायनस (नाकाचें दुयेंस), चड कॉलेस्टेरोल, दमो, लैंगीक दुबळेपण, चड प्रेसांव (hypertension), बायलांचीं दुयेंसां, मुत्रपिंडाचे, कातीचे आनी पोटाचे विकार, हाडांचो विकार, दोळ्यांचीं दुयेंसां ह्या व्याधींचेर उपाट उपेगी थारल्यात.

- ए. पी. बांदोडकर

संदर्भ- 1. Bhattacharya, A. K. (Dr.), 'Power in Magnets to Heal' & 'Magnet & Magnetic Field'. 2. Bhattacharya, B. (Dr.), 'Magnet Dowsing'. 3. Davis, Albert Roy- 'The Anatomy of Biomagnetism'. 4. Korth, Leslie O., 'Healing Magnetism'.

**चुनखडी:** रसायनीक नदरेन पळेल्यार चुनखडी हो फातर चड करून कॅल्शियम कार्बोनेटपसून तयार जाल्लो आसता. तातूंत कॅल्शियम आनी मॅग्नेशियम ह्या दोगांचेंय जोड कार्बोनेट वा ह्या दोनूय कार्बोनेटांची भरसण आसता. चुनखडी हो एक संस्तरणी, अवसादी, असंशकली (non-elastic) फातर जावन आसा. बारीकसाणेन पळेल्यार चुनखडींत मुखेल घटक कॅल्साइट (calcite) आसपाक जाय, तर डोलोमाइटांत खनिज डोलोमाइट [dolomite, $CaMg\ (CO_3)$ ] हें मुखेल प्रमाणांत आसता. ५ ते २० टक्के मॅग्नेशियम कार्बोनेट आशिल्ले चुनखडीक मॅग्नेशियमयुक्त चुनखडी म्हण्टात आनी २० टक्क्यांपरस चड आसल्यार डोलोमाइट म्हण्टात.

रसायनीक नदरेन पळेल्यार कॅल्शियम ऑक्साइड आनी कार्बन डाय-ऑक्साइड हे चुनखडीचे मुखेल घटक आसात. चुनखडींत कांय प्रमाणांत ॲल्युमिनियम आनी सिलिका आसता. केन्नाय क्वार्ट्झ (quartz) आनी चिकणमाती (clay) सारके संशकली घटक चुनखडींत सांपडटात. लोखण जेन्ना आसता तेन्ना तें सिडेराइट वा फेरोहन-डोलोमाइट वा चिकणमातयेसारक्या खनिजांत सांपडटा. Sr हें एक मुखेल 'लेश मूलद्रव्य' (trace element) चुनखडयेंत आसता.

चुनखडीतलीं मुखेल खनिजां कॅल्साइट हाचें षटकोनी (hexagonal) प्रणालींत स्फटिकीकरण (crystallisation) जाता आनी आरागोनाइटचें स्फटिकीकरण समचतुर्भुजी (orthorhombic) प्रणालींत जाता. पृष्ठ वातावरणांत आरागोनाइट अस्थिर आशिल्ल्यान काळाप्रमाण ताचे कॅल्साइटांत परिवर्तन जाता. जरी आरागोनाइट अस्थिर आसलो, तरीकूय तार्चे दर्याच्या उदकांतल्यान अवक्षेपण (precipitation) जाता. तशेंच थोड्या साव्या उदकांतल्यान तार्चे अवक्षेपण जावंक शकता. डोलोमाइट पृष्ठ वातावरणांत थीर आसता आनी खाशेले स्थितींत, देखीक- चड खाऱ्या वा चड अल्क स्थितींत ताचें 'मुळावें अवक्षेपण' (primary precipitate) जाता.

सिडेराइट हो लोखणाचो कार्बोनेट थोडे चुनखडींत मेळटा. पूण चड लोखणाचो कार्बोनेट फेरोहन डोलोमाइट म्हूण सांपडटा. सिलिका, चर्ट आनी क्वार्टझ् हांच्या रुपांत आसता. चडशीं हीं दोनूय खनिजां चुनखडीच्या 'डायोजेनेसीस' (diogenisis) च्या वेळार तयार जातात. चुनखडींत सांपडपी हेर खनिजां म्हळ्यार ग्लॉकॉनाइट, कॉलोफेन आनी पाइराइट. हांच्या वांगडा चिकणमाती आनी जैव पदार्थूय आसतात.

सूक्ष्मदर्शकांतल्यान चुनखडीची वीण (texture) पळेत जाल्यार, खूब बारीक पूण स्फटिकी कॅल्साइटची 'मोझेक' (mosaic) दिसता. हाका 'मिक्राइट' अशें म्हण्टात. हाचे उपरांत तयार जाल्ल्यो विणी (textures) म्हळ्यार स्टाइलोलाइटस्, कॅलसाइटान भरिल्ल्यो वांकड्यो-तिकड्यो एकामेकांवयल्यान वचपी शिरो (veins) आनी 'replacements'. खुबशे चुनखडींत सगळ्या सगळीं वा कुडक्यांच्या रुपांत जीवाश्म (fossils) सांपडटात. हाचेवेल्यान चुनखडीचो भोंवतण (ecology) आनी वातावरण हांचेविशीं म्हायती मेळूंक शकता.

चुनखडी तयार करपाचे प्रक्रियेप्रमाण, ताचे दोन प्रकार थारायल्यात. एक स्वस्थायी- जी जे सुवातेर जाल्या तेच सुवातीर आसता. दुसरी परस्थायी- जी एके सुवातींत अवक्षेपित (precipitate) जाता आनी दुसरे सुवातींत एकठांय जाता. स्वस्थायी चुनखडी दर्यांतल्या जिवजननापसून अवक्षेपित जाता. परस्थायी चुनखडी अवक्षेपित जाल्ल्या जाग्यार सावन दुसऱ्या जाग्यार दर्याच्या लोटाक लागून वता आनी थंय एकठांय जाता. न्हांवन वचपाचें हें अंतर चड आसताच अशें ना.

न्हंयच्या देगणांतले स्रावण (secreting) करपी जीव हे स्वस्थायी चुनखडीक जल्म दिवपी मुखेल कारक (agents) आसात. प्रवाळी शेळो +coralline algae- लिथोथेम्नीयम) आनी ताचे वांगडचे 'कोरल्स' हे प्रवाळी चुनखडीचे मुखेल घटक आसात. फोरमिनिफर आनी हेर हाडां नाशिल्ले प्राणी, देखीक- मॉलस्क (mollusc) आनी एकिनोडर्म्स, हे खुबसो कार्बोनेट अवक्षेपित करपाक हातभार लायतात. सगळ्यांत चड आनी सहज मेळपी स्वस्थायी चुनखडी म्हळ्यार दर्यांतली चुनखडी. तेभायर खोल दर्यांतल्या उदकांत उबपी फोरामिनिफरसारके जीव जेन्ना मरतात, तेन्ना तांचे कुडीचे घट्ट भाग एकठांय जावन जी चुनखडी तयार जाता, ताका खोल दर्यांतली (pelagic) चुनखडी अशें म्हण्टात. हेर प्रकारच्यो चुनखडी म्हळ्यार जैवहर्मी (biohermal) चुनखडी, जैवस्तरी (biostromal) चुनखडी आदी.

चुनखडीचो मुखेल वापर शिमिट करपाचे प्रक्रियेंत जाता. शिमिटाचो मुखेल घटक म्हळ्यार चुनखडी. घरां बांदपाच्या कामांत चुनखडी वापरतात. ताचे हेर उपेग अशे: कागद, रंग, रसायनां, साखर गाळणी, लोखण, विगालन करपाखातीर अभिवाह (flux) म्हूण, कॅल्शियम कार्बाइड करपाक, उद्येगीक कार्बन डाय-ऑक्साइड, उदकाचेर संस्कार करपाक, मृत्तिकाशिल्प (ceramics) उद्येग, कापड कारखाने, भरसणी (filler) म्हूण खुबशा वस्तूंखातीर आनी प्रकाशकी वापराखातीर चुनखडीचो वापर करतात.

- डॉ. अशोक देसाय

**चुनो:** चुनो चड करून कॅल्शियम ऑक्साइडपसून तयार जाल्लो आसता. चुनो हो शब्द सामान्य तरेन वापरल्यार तातूंत भितर भाजिल्ली (कॅलसाइन्ड) चुनखडी आसता ताकाच क्विक लाइम, हायड्रेटेड लाइम, स्लेक्ड लाईम वा अनस्लेक्ड लाईम अशें म्हण्टात. चुनखडी, प्रवाल पोवळीं (corals), कालवांचीं कल्लां भाजून चुनो तयार करतात. डॉलोमाइट (Ca-Mg Carbonate) भाजल्यार डॉलोमाइट चुनो (Magnesiumn lime) तयार जाता.

खणींतल्यान काडिल्ली चुनखडी अशे तरेन गाळटात की फोडिल्ल्या कुडक्यांचो आकार सादारण १.३-५ सेंमी. जातलो. हे कुडके धुंवपी खोर्नींत (rokary kiln) घालतात. उबे तरेचें खोर्न आसल्यार चुनखडीच्या कुडक्यांचो आकार ७.५-२० सेंमी. इतलो दवरतात. खोर्न पेटयतात आनी जेन्ना तापमान १,१००° से. ते १,४००° से. इतलें जाता, तेन्ना चुनखडीचें अपघटन जाता आनी कार्बन डाय-ऑक्साइड भायर पडटा; हाचें प्रमाण वजनान ४०% आसता. उरता तो कॅल्शियम ऑक्साइड म्हळ्यार चुनो. हाकाच चुनकळी, कळीचो चुनो वा दाहक चुनो (caustic lime) अशेंय म्हण्टात.

$$CaCO_3 + \text{उश्णताय} \rightarrow CaO + CO_2$$

$$CaCO_3.MgCO_3 + \text{उश्णताय} \rightarrow CaO.MgO + 2CO_2$$

जो चुनो तयार जाता, तो ताच्या भाजपाप्रमाण रसायनीक नदरेन उदकाकडेन विक्रियाशील (reactive) आसता. कमी भाजिल्लो चुनो उदकांत घाल्यार स्फोटक जाता; पूण चुनो चड भाजिल्लो आसल्यार

ताची विक्रियाशीलता (reactivity) कमी आसता. चुन्याचो एक प्रकार dead burnt dolomite हाची उदकाकडेन विक्रिया जायना, म्हूण ताचो वापर उच्चतापसह (refractory) पदार्थ म्हूण करतात. रूढ चुनो हो चडसो निवळ शुध्द चुनखडीपसून करतात. पूण हायड्रॉलिक चुनो अपद्रव्य (impure) चुनखडीपसून जाता. हे चुनखडींत सिलिका, ॲलुमिना आनी लोखणाचीं अपद्रव्यां थोड्या प्रमाणांत आसतात. भाजनाफुडें चुनो अपद्रव्यांवांगडा एकजीव जाता आनी कॅल्शियम सिलिकेट्स आनी ॲल्युमिनेट्स तयार जातात. असल्या चुन्याक उदक घालतकच तो सादारण शिमिटाभशेन घट्ट जाता.

चुनो उदकांत घाल्यार खूब उश्णताय तयार जाता. सुमार ५०० ग्रॅ. चुन्यांतल्यान जी उश्णताय जाता, ती १ किग्रॅ. उदक -१८° से. सावन १००° से. मेरेन तापोवंक शकता. चुन्याचो सुको पिठो तयार करतना दळिल्ल्या चुन्यांत सवकास थोडें थोडें उदक घालतात आनी कॅल्शियम हायड्रॉक्साइड (Calcium Hydroxide) तयार करतात, जातूंत २५% वजनान रसायनीक कंबाइन्ड वॉटर आसता. चुनो वापरपी लोक, चुन्यांत खूब उदक घालून चुन्याची स्लरी (slurry) वा निवळी (milk of lime) तयार करतात. उदकांत उफेवपी चुन्याचो आकार आनी थिरावपाचो वेग (settling rate) हांकां रसायनीक नदरेन खूब म्हत्व आसा. देखीक- कागद तयार करपाक बेगीन तळाक बसपी चुनो लागता, तर चामड्याचेर प्रक्रिया करता आसतना सवकास तळाक बसपी चुनो लागता. चुन्याचीं हीं लक्षणां चड करून मूळ चुनखडीचीं (जाचे पसून चुनो तयार केला ती) लक्षणां, भाजपाचें प्रमाण आनी कितलो वेळ चुनो वाऱ्यार उरलो हाचेर आदारून आसतात. चुनो चड वेळ वाऱ्यार उरलो जाल्यार बेगीन तळाक बसता. उदकाचें प्रमाणूय खूब म्हत्वाचें आसता. उदक चुन्यांत घालें जाल्यार बारीक कणांचो हायड्रॉक्साइड तयार जावन सवकास तळाक बसता.

हायड्रेटेड चुनो ही एक बळिश्ट अल्कली (alkali) आसून कसल्याय बळिश्ट अम्लांचें (acids) निराकरण (neutralization) करूंक शकता. बांदकामाखातीर चुनो खूब पूर्विल्ल्या काळासावन वापरांत आसा. बांदकामांत चुनो संयोजक (mortar) आनी प्लास्टर म्हूण वापरतात. रसायन उद्येगांनी चुनो हें एक मूळ उद्येगीक रसायन जावन आसा. तेचप्रमाण स्टील फ्लक्स करप, उदक शुध्द करपाखातीर, पल्प आनी कागद तयार करपाखातीर, उद्येगीक टाकाऊ पदार्थांचेर संस्कार करपाखातीर, कंवचेच्या उद्येगांनी आनी रिफ्रेक्टरींनी चुन्याचो वापर करतात.

- डॉ. अशोक देसाई

**चूल (रांदन):** घरांत वा घराभायर जेवणखाण वा हेर वस्तू उज्याच्या आदारान शिजोवपाखातीर केल्ले रचणुकेक 'चूल' अशें म्हण्टात. शब्दकल्पद्रुमांत चुलीची व्यख्या आसा, ती अशी: 'चुल्यते प्रज्वाल्यते अग्निरत्र'. अर्थ: जातूंत उजो पेटयतात, ती सुवात.

आदल्या काळार मनीस आपलें अन्न उज्यांत भाजून खातालो. तेखातीर ताका फकत पेटिल्लो उजो मेळ्ळ्यार पुरो जातालें. आयदनाचो सोद लागलो, तेन्ना तातूंत अन्न शिजोवन खावपाची जाणविकाय मनशाक आयली. आयदनांतलें अन्न शिजोवपाखातीर मनशान तीन फातर तीन कोनांत मांडून चूल घडयली. अशे तरेन चुलीचो जल्म जालो.

चूल ही सादारणपणान रांदचे कुडींत आसता आनी तिचेर पुराय कुटुंबाचें जेवणखाण करतात.

पुराय घरचें अन्न शिजयिल्ल्यान चुलीक देवपण लाभलां. तेचखातीर चुलीक पांय लायनात. भश्ट्यो बायलो तिका आफडीनात. कांय कडेन मरण आयिल्ल्याच्या घरांतले लोक चुलीचेर रांदीनात, तर कांय कडेन दर दिसा चूल सारोवन रांगोळीय घालपाची पध्दत चलता. घरांत जेन्ना कसलेंय व्रत करतात, तेन्ना हेर देव-देवतां वांगडाच चुलीकूय अन्न (वाडी) अर्पण करतात. नव्या घरांत शास्त्रोक्त पध्दतीन चुलीची थापणूक करतात.

आयच्या यंत्रयुगांत पारंपारीक चुलीचें म्हत्व खूब प्रमाणांत उणें जालां आनी ताची सुवात विजेचेर चलपी उपकरणां, स्टोव्ह, गॅसाची शेगडी हांणी घेतल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**चेंडू-फळी:** कोंकणांत उक्त्या मळार खेळटात तो एक खेळ. हातूंत चोवीस वा ताचे परसूय चड खेळगडी समान संख्येन वांटो घेतात. चेंडू-फळीचो खेळ खेळपाक रबराचो वा फाळयो भरुन तयार केल्लो पेल्ल (बॉल) हातभर लांबायेची एक रुंद बडी वा फळें आनी दोन मोटे फातर लागतात.

दोन मोटे फातर एकामेकांपसून हातभर अंतराचेर दवरून, ताच्या मध्यभागार एक बडी वा फळें आडवें दवरतात. बडयेच्या दोनूय कुशीकसावन ६०/६० फूट अंतराचेर रेग वा शीम काडटात आनी खेळपाखातीर दोन पंगड घडयतात.

सुर्वेक एका पंगडांतलो एक खेळगडी बडयेपसून सुमार आठ फूट अंतराचेर उबो रावन पेल्लान फातरावेली बडी उडोवपाचो यत्न करता, त्याच वेळार दुसऱ्या पंगडांतले खेळगडी बडयेच्या लागसार भोंवतणी उबे रावन, बडी वा पेल्ल जिखपाचो यत्न करतात. तांकां बडी वा पेल्ल जिखपाक जालोना तर तांचो एक खेळगडी बाद जाता. बडी वा पेल्ल हातूंतली खंयचीय एक वा दोनूय वस्तू जिखल्यार, दोनूय पंगडांचो दाव सारको वा समान जालो, अशें मानतात. पेल्लाक लागून बडी पडलीना आनी तो पेल्ल दुसऱ्या पंगडांतल्या खेळगड्यांनी जिखल्यार पेल्ल मारपी खेळगडी बाद जाता. पेल्ल बडयेकूय लागलोना वा कोणे जिखूनय धरलो ना, जाल्यार दोनूय पंगडांचे दाव समान जातात.

एका पंगडांतल्या एका खेळगड्यान पेल्ल मारतकच दुसऱ्या पंगडांतलो खेळगडी येवन पेल्ल मारता. अशे तरेन एकामेकां फाटल्यान दोनूय पंगडांचे खेळगडी बडयेक, पेल्लान मोखपाचो यत्न करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**चेंबरलेन ओवन:** (जल्म: १० जुलय १९२०, सां फ्रान्सिस्को).

अमेरिकन भौतिकीविज्ञ. डार्टमथ महाविद्यालयांतल्यान १९४१ त पदवी घेतकच ताणें १९४२-४६ ह्या काळांत अणुबाँबचे निर्मितीखातीर नामनेक पाविल्ले मॅनहॅटन येवजणेंत भौतिकीविज्ञ म्हूण काम केलें. १९४७-४८ त ताणें शिकागो हांगाच्या लमाँट नॅशनल प्रयोगशाळेंत काम केलें. शिकागो विद्यापीठाकडल्यान पीएच्. डी. मेळयतकच तो कॅलिफोर्निया विद्यापीठांत प्राध्यापक जालो. थंय ताणें आल्फा कणांचो क्षय (alpha particle decay), न्यूट्रॉनांचें द्रवांतल्यान जावपी विवर्तन (neutron diffraction in liquids) आनी उच्च ऊर्जायुक्त न्यूक्लिऑनांचें प्रकीर्णन (high energy nuclear particles reactions) ह्या विशयांचेर संशोधन केलें. १९५५ त कॅलिफोर्निया विद्यापीठंतल्या शक्तिमान Bevatron Particle Accelerator ह्या उपकरणावरवीं मेळपी वेगवान प्रोटॉनांच्या झोताचो उपेग करून ताणें सेग्रे ह्या शास्त्रज्ञाच्या सहकार्यान ॲंटिप्रोटॉनची (antiproton) निर्मिती केली. ॲंटिप्रोटॉनचो सोद लायिल्लेखातीर १९५९ त, भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार चेंबरलेन हाका सेग्रे हाच्यावांगडा वांटून मेळ्ळो. १९५६ त, ॲंटीप्रोटोन्सां पसून ॲंटीन्यूट्रॉन मेळोवपाकूय ताका यश आयलें.

- कों. वि. सं. मं

**चेंबरलिन, सर जोसेफ ऑस्टिन:** (जल्म: १६ ऑक्टोबर १८६३, बर्मिंगहॅम; मरण: १६ मार्च १९३७, लंडन).

एक ब्रिटीश मुत्सद्दी. जोसेफ चेंबरलिनाचो चलो आनी पंतप्रधान नेव्हिल चेंबरलिनाचो (१९३७-४०) सावत्र भाव. ताणें रग्बी आनी ट्रिनिटी महाविद्यालयांत आनी फुडें फ्रांस आनी जर्मनी हांगा शिकप घेतलें. १८९२ त तो हुजूरपक्षावरवीं संसदेंत (House of Commons) बिनविरोध वेंचून आयलो आनी निमाणेमेरेन संसदेचो वांगडी आशिल्लो. हुजूरपक्ष १८९५ त सत्तेर येतकच ताका वेगवेगळीं अधिकारपदां मेळत

गेलीं. १९०३-१९०५ ह्या काळांत तो अर्थमंत्री आशिल्लो. १९१५ त संयुक्त मंत्रिमंडळ सत्तेर येतकच चेंबरलिनाची भारतमंत्री म्हूण नेमणूक जाली. दोन वर्सांउपरांत मेसोपोटेमियाच्या आयोगांत वांटो घेवपाखातीर ताणें राजीनामो दिलो.

१९१८-२२ ह्या काळांत परत अर्थमंत्री म्हूण ताची नेमणूक जाली आनी तो रोखडोच हुजूरपक्षाचो फुडारी जालो. १९२४-२९ ह्या काळांत परराश्ट्रमंत्री आसतना ताणें परराश्ट्रीय धोरणांत जायत्यो सुदारणा घडोवन हाडून शांतताय पातळावपाखातीर यत्न केले. ताणें लोकार्नो कबलात (The Locarno Pact) घडोवन हाडून युरोपांत शांतताय पातळायली आनी जर्मनीक राश्ट्रसंघांत आस्पावन घेतलो (१९२५). ताच्या ह्या मोलादीक वावराखातीर १९२५ त, शांततायेखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार ताका चार्ल्स डॉझ हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

## चेकोस्लोव्हाकिया:

झेकोस्लोव्हाकिया; चेकोस्लोवेन्स्का सोशॅलिस्ता रिपब्लिका. मध्य युरोपांतलें एक प्रजासत्ताक. क्षेत्रफळ १,२७,८७६ चौ.किमी.; अक्षवृत्तीय विस्तार ४७ ° ४४′ उत्तर ते ५१° ३′ उत्तर आनी रेखावृत्तीय विस्तार १२° ५′ उदेंत ते २२° ३४′ उदेंत. लोकसंख्या: १,५५,५०,००० (१९८६). ह्या देशाचे दक्षिणेवटेन हंगेरी आनी ऑस्ट्रिया; नैर्ऋत्येवटेन, अस्तंतेवटेन आनी वायव्येवटेन जर्मनी; उत्तरेक पोलंड आनी उदेंतेक रशिया आसा. राजधानी- प्राग.

**भूंयवर्णन:** सैमीक नदरेन ह्या देशाचे तीन वांटे जातात. अस्तंतेक पोरन्या घट फातरांचो बोहीमिया हो पर्वतवाठार, ताच्या मध्याक पठार आनी सकयलो वाठार आनी भोंवतणी दोंगरांच्यो वळी; ताचे उदेंतेक मोरेव्हियाचो सपाट वाठार आनी ताचेय उदेंतेक कार्पेथियन पर्वतवाठारांत स्लोव्हाकिया.

बोहीमियाचे कुशीचे पर्वत एकदम उबे चडटेचे आसात आनी शुमाव्हा, कॉर्कानॉशे ह्या सारक्या वाठारांत बरेच ऊंच आसात. दक्षिणेवटेनचें पठार मात कांय वाटकुळ्या दोंगुल्ल्यांपुरतेंच ऊंच आसा. हेर तीन दिकांनी ऊंच पर्वत आसात, खासा करून नैर्ऋत्य वाठारांत शुमाव्हा आनी चेस्फीलेस हे वाठार येरादारीखातीर अशक्य आसात. ईशान्येक सुडेटन पर्वतांच्यो तुटिल्ल्यो वळी आसात. कॉर्कानॉशे हें हांगाचें सगळ्यांत ऊंच म्हळ्यार १,६०२ मी. उंचायेचें तेमक. बोहीमियाच्या उत्तर वाठारांतल्या सकयल्या प्रदेशांनी बरेच दोंगर, दोंगुल्ल्यो, न्हंयो आनी पिकाळ देगणां सांपडटात. वायव्येवटेनचो क्रुश्ने हॉरी हो दोंगर खनिजांखातीर नांवाजिल्लो आसा. दक्षिण बोहीमियाचें पठार उत्तर वाठारापरस ऊंच आसा आनी थंय न्हंयांच्या प्रवाहाक लागून तयार जाल्लीं कोनीं आसात. मोरेव्हिया वाठार दक्षिणेचें डॅन्यूब मळ आनी उत्तरेचें सायलीशिया मळ हांकां जोडटा. हांगा अस्तंतेपरस उदेंतेवटेन चडटी चड आसा. 'मॉराफ्स्का व्राना' ही पायण मोराव्हिया वाठारांत आसा.

स्लोव्हाकियांतलो कार्पेथियन पर्वतवाठार म्हळ्यार ऑस्ट्रियांतल्या आल्प्स पर्वतांच्या विस्ताराचो डॅन्यूब पलतडीं ईशान्येवटेन गेल्लो एक वांटो जावन आसा. दक्षिणेंत अस्तंत-उदेंत वळी आशिल्ले ल्हान कार्पेथियन दोंगर (मार्ले कार्पेटी) उत्तरेवटेन पावतासर ऊंच जातात. तांच्या वळींच्या मदीं रुंद देगणां आसात. सामकेच उत्तरेवटेन बेस्किदी पर्वताचे तुटके फांटे आसात. ताचे एकेवटेन तात्रा पर्वत आनी तातूंतलें दोंगरतेमक गेर्लाकॉफ्का हें देशांत सगळ्यांत चड ऊंचायेचें (२,६५५ मी.) आसा.

ह्या देशाक खंयचेच वटेन दर्यादेग ना. जर्मनीवटेनच्यान उत्तर समुद्राक मेळपी लाबे (एल्ब) न्हंयच्यो ऑर्झे (एगर), बेरोंका आनी व्हल्टाव्हा ह्यो म्हत्वाच्यो उपन्हंयो बोहीमियांतल्यान व्हांवतात. मोरेव्हियाच्या उत्तर वाठारांत सुरू जावपी ओड्रा (ओडर) न्हंय पोलंडांतल्यान वचून फुडें बाल्टिक दर्याक मेळटा. काळ्या दर्याक मेळपी डॅन्यूबची म्हत्वाची उपन्हंय मोराव्हा देशाच्या मदल्यान व्हांवता. तिका मोरेव्हियांतल्यान डिये, इग्लाव्हा आनी स्विताहा न्हंयो मेळटात, जाल्यार स्लोव्हाकिया हांगासावन व्हा, न्यित्रा आनी हरॉन न्हंयो मेळटात. दक्षिण बोहीमियांत ट्रेब्रॉन आनी बुद्येयॉवित्से वाठारांनी बरींच तळीं आनी कोणां आसात. स्लोव्हाकियाच्या ऊंच तात्रा पर्वत वाठारांत बरींच ल्हानसान सोबीत अशीं सरोवरां आसात.

**हवामान:** देशाच्या ऊंच सकयल वाठाराप्रमाण हवामानांत फरक दिसून येता. सकयल्या वाठारांनी तें उण्या प्रमाणांत थंड जाल्यार उंचेल्या वाठारांनी बरेंच थंड आसता. स्लोव्हाकियाच्या पर्वतवाठारांनी हिम पडिल्ल्यान थंयचें हवामान शीतळ जाल्यार डॅन्यूब न्हंयचे देगेवयलें हवामान त्या मानान बरेंच उब दिवपी आसा. पावस गिमांत चड पडटा. अस्तंतेवटेन बोहीमियांत प्राग हांगा पावस उणो (४४३ मिमी.), उण्यांत उणें तापमान -३° से. आनी चडांत चड १९.५ ° से. आसता. बोहीमियांत आनी मोरेव्हियांत बरेच खेप धुकें आसता. कार्पेथियन पर्वत वाठारांनी दर १०-१५ वर्सांनी भयंकर वादळां जातात.

**बनस्पत आनी मोनजात:** बोहीमिया, मोरेव्हिया-सायलीशिया हांगा बऱ्याच प्रमाणांत रानां आसात. थंय स्प्रूस, फर, स्कॉट हे सारके रुख आसात. बोहीमियाचे शिमेवयल्या पर्वतांनी बेच्व्हा आनी लाबे न्हंयचे उत्तरेवटेन ओक जातीचे रुख दिश्टी पडटात. पानां झडपी तरांतरांचे रुख हांगा व्हड प्रमाणांत आसात.

कांय प्रमाणांत वांस्वेल, कोलसुणीं, लिंक्स आनी रानमाजर, चड प्रमाणांत ऑटर, बॅजर, पोलकॅट, मार्टेन आनी मिंक, रानांनी तांबडें हरण, तरो आनी रानडुकर असले प्राणी हांगा आसात. भांगराकोराचो आनी धवो गरुड, ऑस्प्री, ग्रिफॉन, ईजिप्शियन, गीद, गरुड, घुघुम हांचे वांगडा उदकावटेन आनी चिखलाच्या वाठारांनी रावपी सुकणीं, काळीं आनी धवीं बकीं हांगा दिश्टी पडटात. नुस्त्यांमदीं डॅन्यूब न्हंयेंत सांपडपी व्हडलो कॅटफीश-'वेल्स' हें हांगाचें खाशेलेपण आसा. कांसव, तरेकवार सोरोप, शेड्डे, पाली, बेबकां असलीय मोनजात चेकोस्लोव्हाकियांत दिश्टी पडटा.

**इतिहास:** ह्या देशाच्या पूर्विल्ल्या इतिहासाविशीं आठव्या शतमानामेरेन स्पश्ट म्हायती मेळना. चेक आनी स्लोव्हाक ह्यो जमाती तेन्ना थंय अस्तित्वांत आशिल्ल्यो. ह्यो स्लाव्हिक समाजाच्योच दोन शाखा आशिल्ल्यो. आठव्या शतमानांत मॉइमिर ह्या एका जमातमुखेल्यान मोरेव्हियन राज्याची स्लोव्हाकियांत थापणूक केली, त्या काळांत सिरिल (कॉस्टंटीन ८२७-६९) आनी मिथोडीयस (८२६-८५) ह्या दोन ग्रीक धर्मप्रसारकांनी स्लोव्हाकियांत किरिस्तांव धर्माचो प्रसार केलो. मग्यार नांवाच्या हंगेरींतल्या लोकांनी ह्या राज्याचेर जैत मेळोवन आपलो शेक स्लोव्हाकियाचेर गाजयलो (९०५). फुडलीं कांय शतमानां हो वाठार मग्यारांच्याच शेकातळा आशिल्लो. मध्ययुगांत १०४१ वर्सा बोहीमियांतलो जातमुखेली रोमन पवित्र साम्राज्याचो मांडलिक जालो. बोहीमियांतले राजा ह्या काळांत जर्मन तंत्रज्ञ आनी वेपाऱ्यांक थंय येवपाखातीर उर्बा दिताले आनी आलाशिरो दिवन तांकां आपल्या देशांत राबितो करूंक लायताले. १३४७ त बोहीमियाचो चार्ल्स हाचविन हो रोमन साम्राज्याचो सम्राट जालो. ताणें बोहीमियाची बरीच उदरगत केली आनी बोहीमियाची नामना सगळेकडेन पातळायली. चेक लोक ह्या काळाक भांगराचो काळ अशें मानतात. चार्ल्स आपल्या राज्याचीं सगळीं सुत्रां प्राग हांगा सावन चलोवंक लागलो. चार्ल्साच्या मरणाउपरांत बोहीमियांत धर्मीक झगडीं जावंक लागलीं. जॉन हस (१३६९-१४१५) हाणें रोमन कॅथलिक चर्च पध्दतींत सुदारणा जावची, हेखातीर चळवळ सुरू केली. जॉन हस हाका उपरांत लासून मारलो; पूण ताची चळवळ फुडें २० वर्सांमेरेन चालूच उरली. इ. स. १४३४ त दोनूय वटांच्या लोकांनी एक कबलात केली. पूण १६२० त ती फसली.

ह्या काळांत बरेच स्लोव्हाक लोक शिक्षणाखातीर प्राग हांगा आयले. फुडें पोलंडच्या राजान बोहीमियाचेर शेक गाजयलो. १५२६ त बोहीमियाचो राजा दुसरो लुई हाका तुर्कांआड झुजतना मॉहाच हांगाचे




लडायेंत मरण आयलें. तेन्ना कॅथलिक पंथाच्या सरदारांनी ऑस्ट्रियाचो पयलो फर्डिनंड हाका राजा म्हूण चेक गादयेर बसयलो. ह्या राजावरवीं हांगा हॅप्सबर्ग घराण्याची कारकीर्द चालू जाली. फर्डिनंडान कॅथलिक धर्मपंथाक फाटबळ दिलें आनी प्रॉटॅस्टंट लोकांनी हॅप्सबर्गावांगडा झूज सुरू केलें (१६१८); पूण प्रॉटॅस्टंटांचो १६२० त पराभव जालो. पूण हें धर्मीक झूज सगळ्या युरोपांत पातळ्ळें. तें 'तीस वर्सांचें झूज' म्हूण इतिहासांत गाजिल्लें आसा. ह्या झुजाक लागून चेक लोकांचें बरेंच लुकसाण जालें. बोहीमिया, मोरेव्हिया आनी स्लोव्हाकिया ह्या प्रांतांची अर्थीक आनी राजकी नदरेन परिस्थिती इबाडली. स्लाव्ह फुडाऱ्यांनी चेकोस्लोव्हाकियांत राष्ट्रीय अस्मिताय जागी केली. १८४८ त बोहीमिया आनी स्लोव्हाकिया हांणी हंगेरींतल्या मग्यार लोकांवांगडा ऑस्ट्रियाआड बंड केलें. पूण तें मोडून उडयलें. ह्या बंडांतल्यान १८६७ त मग्यारांनी ऑस्ट्रियाकडल्यान समान हक्क मेळयले. हाका लागून ऑस्ट्रिया-हंगेरी हीं दोन राज्यां निर्माण जालीं; पूण चेक आनी स्लोव्हाक हांकां कसलोच राजकी दर्जो मेळ्ळो ना.

पयल्या म्हाझुजावेळार हॅप्सबर्ग सरकारान बोहीमियन क्रांतीकारकांआड कडक उपाय काडले. तेन्ना टॉमाश मासारिक, ताचो शिष्य एदुआर्त बेनेश, मिलान, श्टेफानिक ह्या सारक्या फुडाऱ्यांनी चेकोस्लोव्हाक राष्ट्रीय समितीची थापणूक केली. पयल्या म्हाझुजाचो पुरायपणान फायदो घेवन हॅप्सबर्गांकडल्यान पुराय स्वतंत्रताय मेळोवपाचें तांणी थारायलें. ताका लागून इश्ट राष्ट्रांचें बरेपण मेळोवपाखातीर ते देशाभायर गेले. कितल्याशाच चेक सैनिकांनी हॅप्सबर्ग सैन्यांतल्यान भायर सरून ल्हान पंगड उबारले. स्लोव्हाकियांत कारेल क्रेमर आनी ताचे भूंयगत वांगडी हांची 'माफिया' ही संघटना हॅप्सबर्गावांगडा झुजताली. मासारिक आनी हेर सगळे स्लोव्हाक फुडारी अमेरिकेंत एकठांय आयले आनी तांणी पिट्सबर्ग कबलातीचेर सयो केल्यो. हे कबलातीवरवीं चेक आनी स्लोव्हाक हांकां नव्या देशांत सारकेंच प्रतिनिधीत्व मेळटलें अशें थारलें. इश्ट राष्ट्रांनी ह्या तात्पुरत्या सरकाराक चेकोस्लोव्हाकियाचें सरकार म्हूण मान्यताय दिली. हॅप्सबर्ग सत्तेच्या दुबळेपणाचो फायदो घेवन २८ ऑक्टोबर १९२८ दिसा चेकोस्लोव्हाकिया प्रजासत्ताक जाल्याची घोशणा जाली. चेक आनी स्लोव्हाक निमाणे एकठांय येवन हें राज्य निर्माण जालें. मासारिक हांगाचो पयलो अध्यक्ष आनी बेनेश परराश्ट्रमंत्री जालो. १९२१ त हांगा कम्युनिस्ट पक्षाची थापणूक जाली.

दुसऱ्या म्हाझुजापयलीं हिटलरान चेकोस्लोव्हाकियाचे कुडके करपाचे नदरेन हांगाच्या जर्मन उलोवप्यांखातीर वेगळ्या स्वतंत्र प्रांताची मागणी केली. चेकोस्लोव्हाकियाचो कांय वाठार जिखपाचो ताचो हेत आशिल्लो. ह्या जर्मन उलोवप्यांक सुडेटन जर्मन अशें म्हण्टाले. तांचो राबितो चडसो स्नुडेटन दोंगरा वाठारांनी आशिल्लो. चेकोस्लोव्हाकियाचे स्वतंत्रतायेचेर संकश्ट आयलां हें पळोवन मासारिक हाणें रशिया आनी फ्रांस हांचेलागीं इश्टागतीची कबलात केली; पूण १९३८ त इटली, फ्रांस, ब्रिटन आनी जर्मनी हांचे फुडारी जर्मनीचे मागणेचेर विचार करपाखातीर जमले आनी फ्रांस आनी ब्रिटनान जर्मनीचे मागणेक तेंको दिलो. ह्या वेळार देशाचो अध्यक्ष बेनेश आशिल्लो. तो राजीनामो दिवन इंग्लंडाक गेलो. १९३९ त हिटलरान चेकोस्लोव्हाकियाचेर जैत मेळोवन म्यूनिक कबलात न्हयकारली. बेनेश स्वतंत्र चेकोस्लोव्हाकिया चळवळीचो फुडारी जालो. ताका टॉमास मासारिकाच्या पुतान, जॉन मासारिकान पालव दिलो. १९४१ त रशियन सैन्यावांगडा ते चेकोस्लोव्हाकियांत आयले आनी तांणी सत्ता हातांत घेतली. बेगोबेग तांणी ६०% उद्येगांचें राष्ट्रीयकरण केलें आनी रशियाक रुथीनीया हो उदेंत स्लोव्हाकियाचो वाठार दिलो. १९४६ त हांगा वेंचणुको जाल्यो. राष्ट्रीय सभेच्यो २०० तल्यो ११४ सुवातो कम्युनिस्टांक मेळ्ळयो. कम्युनिस्टांचें बळगें वाडलें आनी पंतप्रधान आनी हेर मुखेलमंत्री त्याच पक्षाचे जाले. १९४८ त कम्युनिस्टांनी बंड करून सगळीच सत्ता आपल्या हातांत घेतली, संविधान तयार केलें आनी

वेंचणुको घेतल्यो. जॉन मासारिकान आत्महत्या केली अशें म्हण्टात. तशेंच बेनेश हाणें राजीनामो दिलो. ताचे सुवातेर क्लेमंट गोटव्हाल्ड (१८९६-१९५३) पंतप्रधान जालो. ताणें रशियाचे धर्तेचेर राज्याची उबारणी केली. शिक्षणीक आनी धर्मीक संस्था कम्युनिस्टांच्या नियंत्रणाखाल आयल्यो. रोमन कॅथलिक पाद्रींक बंदखणींनी घाले. चेकोस्लोव्हाकिया आनी पोलंड हांणी अर्थीक सहकार्याखातीर एक परिशद आपयली. चेकोस्लोव्हाकिया रशियाक बरेच लागीं आयलो. चडशीं धोरणां थारावचेपयलीं हांगाच्या सरकाराक रशियांतल्यान बुद्द मेळूंक लागली. १९५३ त गोटव्हाल्ड हाका मरण आयलें आनी आंटान्यीन झापोटोक्या अध्यक्ष जाल्यार विल्यम शिरोक्या पंतप्रधान जालो. १९५०-१९६० ह्या धा वर्सांच्या काळांत ह्या देशांत अर्थीक मळार थीरपण उरलें ना. राश्ट्रीयकरणाचोय व्हडलोसो फायदो जालोना. १९५७ त आंटार्न्यान नोव्हट्न्या अध्यक्ष जालो. ताणें १९६२ त रशियांतल्यान तेल हाडपाखातीर नळ येवजण सुरू केली.

इतले मजगतीं कम्युनिस्ट सत्तेआड लोकांचो बोवाळ चालू जालो. विचारस्वतंत्रताय, रशियन धर्तेचेर आशिल्ले राज्यपध्दतीक विरोध ह्या गजालींतल्यान चळवळी सुरू जाल्यो. १९६७ मेरेन विद्यार्थी आनी लेखक हांणी हे चळवळीक तेंको दिलो. निमाणें १९६८ त कम्युनिस्ट फुडाऱ्यांनी कांय मुळावे राजकी बदल करपाचें मान्य केलें. अलेक्झांडर डुब्चेक हो कम्युनिस्ट पक्षाचो पयलो सचिव जालो. ताणें चेकोस्लोव्हाक कम्युनिस्ट पक्षांत उदारमतवाद आनी लोकशाय तत्त्वां हाडपाखातीर, तशेंच रशियाचो शेक उणो करपाखातीर कांय कार्यावळी मुखार हाडल्यो. तांकां हांगाच्या लोकांचो येवकार मेळ्ळो; पूण रशिया आनी हेर कम्युनिस्ट राश्ट्रां ह्या देशांकडेन दुभावाचे नदरेन पळोवंक लागलीं. चेकोस्लोव्हाकियान आपूण कम्युनिस्ट तत्त्वांकडेन तडजोड करचो ना, अशें जाहीर करून लेगीत २१ ऑगस्ट १९६८ दिसा वॉर्सा कबलातीप्रमाण सुमार पांच लाख रशियन सैनिक चेकोस्लोव्हाकियांत घुसले. १९६९ त डुब्चेक हाका स्वताचें पद सोडचें पडलें आनी गुस्टाव्ह हुसेक हो पयलो सचिव जालो.

चेकोस्लोव्हाकियांतल्या हंगामी मंत्रीमंडळांत १९७३ त बरेच बदल जाले. १९७७ त हांगाच्या कांय बुध्दीजीवी लोकांनी हुसाकाच्या सरकाराआड चार्टर ७७ ही चळवळ उबारली. पूण हे चळवळीच्या सगळ्या फुडाऱ्यांक ख्यास्त दिवन हुसाक हाणें ती मोडली. १९८५-८६ त रशियाकडल्यान हुसाकाच्या राज्यकारभाराचेर टिका केली. हुसाक हाच्या फुडारपणाखाल चेकोस्लोव्हाकियाचें सरकार सद्यामेरेन थंय सत्तेर आसा.

**राज्यवेवस्था**: १ जानेवारी १९६९ सावन चेकोस्लोव्हाकिया हो चेक सोशलिस्ट रिपब्लिक (बोहीमिया, मोरेव्हिया आनी सायलीशियाचो कांय वाठार) आनी स्लोव्हाक सोशलिस्ट रिपब्लिक (स्लोव्हाकिया) ह्या दोन राश्ट्रांचो मेळून जाल्लो एक संघराज्य समाजवादी प्रजासत्ताक देश आसा. ह्या दोन प्रजासत्ताकांक समान हक्क आसात. चेक प्रजासत्ताकाचो राज्यकारभार चलोवपाखातीर २०० प्रतिनिधींचें राश्ट्रीय मंडळ आसा, जाल्यार स्लोव्हाक प्रजासत्ताकाचो राज्यकारभार १५० प्रतिनिधींच्या राश्ट्रीय मंडळावरवीं चलता. संघराज्य विधीमंडळांत दोनूय प्रजासत्ताकांचे वांगडी आसतात. हांची संख्या १५० आसा आनी देरक प्रजासत्ताकाचे ७५ प्रतिनिधी आसात. हे भायर संसदेचें दुसरें घर म्हळ्यार लोकमंडळ (चेंबर ऑफ द पीपल) हातूंत १३७ चेक आनी ६३ स्लोव्हाक प्रतिनिधी आसतात. संसदेचे वांगडी राश्ट्राध्यक्षाक वेंचतात आनी राश्ट्राध्यक्ष केंद्रीय मंत्रीमंडळाची नेमणूक करता. दर पांच वर्सांनी वेंचणुको जातात आनी सत्ता अप्रत्यक्षपणान कम्युनिस्ट पक्षाच्या हातांत आसा. १८ वर्सां पुराय केल्ल्या दरेकल्याक मत दिवपाचो अधिकार, जाल्यार २१ वर्सां पुराय केल्ल्या दरेकल्याक वेंचणुको लडोवपाचो अधिकार आसा. कम्युनिस्ट पक्षाच्या फुडारपणाखाल कामगार आनी युवक संघटना आसात. ह्या संघटनांच्या प्रतिनिधींचीं नांवां वेंचणुकांखातीर सुचयतात.

थळावो राज्यकारभार राश्ट्रीय समित्यांवरवीं चलता. अश्यो १० प्रांतीय समित्यो आसात आनी प्राग आनी ब्राटीस्लाव्हा ह्या शारांखातीर २ वेगळ्यो समित्यो आसात. हांच्योय वेंचणुको दर पांच वर्सांनी जातात.

**अर्थीक स्थिती**: शेतवडीच्या मळार उद्येगीकरण आनी यंत्रांचो उपेग ह्या गजालींक लागून हांगा पिकावळ बरीच जाता. गंव, बार्ली, मको, साखरबीट, बीयर तयार करपाखातीर हॉप्स, राय ओट्स आनी बटाट हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. गोरखां पोसपाच्या धंद्यांतल्यान मांस आनी दूद व्हड प्रमाणांत मेळटात. रानांतल्या रुखांक लागून लांकूड उद्येगाची उदरगत जाल्या.

खनिज उत्पन्नाच्या मळार हांगाची परिस्थिती बरी ना. खनिजां बऱ्याच उण्या प्रमाणांत सांपडटात. हांगाच्या तळ्यांनी, कोंडांनी आनी न्हंयांनी मुद्दम तयार केल्ली नुस्त्याची पिकावळ अर्थवेवस्थेक बरेच आदार दिता. कार्प, टेंब पायक, पर्च आनी ट्राउट जातीचें नुस्तें हांगा चड प्रमाणांत मेळटा.

उद्येगीक उत्पादनाच्या मळार हांगाच्या लोकांनी पयलीं सावन नामना मेळयल्या. कम्युनिस्ट राजवटीखाला उद्येगधंद्याच्या मळार नेटान वाड जाली. धातू, कोक, शिमीट, पेपर, रसायनां, सारें, प्लॅस्टिक, कृत्रिम वस्त्रां, कपडो ह्यासारक्या वस्तूंचे कारखाने बरेच पातळ्ळ्यात. हे भायर बीयर, हॅलिकॉप्टर्स, हेर वाहनां हांचे कारखानेय उदरगतीक पावल्यात. अर्थीक नदरेन हो देश बरोच फुडारिल्लो आसा. देशाच्या पुराय अर्थवेवस्थेचेर रशियाचो प्रभाव आसा. रशियाच्या पालवांतल्यान हांगाचे चडशे उद्येग उबे आसात. देशांतल्या सोबीत थळांक लागून पर्यटनांतल्यान बरेंच उत्पन्न मेळटा. धातू, पेट्रोलियम, शेतवडीच्या मळावयलीं आनी हेर मळांवयलीं यंत्रां आनी उपकरणां, रसायनां हांची आयात रशिया, उदेंत जर्मनी, पोलंड, हंगेरी, अस्तंत जर्मनी हांगासावन जाता. कपडो, यंत्रां आनी वाहनां, चामड्याच्यो आनी प्लॅस्टिकच्यो वस्तू ह्या सारक्या वस्तूंची निर्यात चडशी रशिया, उदेंत जर्मनी, पोलंड, हंगेरी, अस्तंत जर्मनी, युगोस्लाव्हिया, बल्गेरिया, ऑस्ट्रिया आनी रुमानिया आदी देशांनी जाता.

कोरुना ( चेकोस्लोव्हाक क्राउन) हें हांगाचें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारण**: १९८४ मेरेन चेकोस्लोव्हाकियांत ७४,८९१ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. हातूंतले सगळेच म्हळ्यार १०० % पक्के आशिल्ले. त्याच वर्सा रेल्वेमार्गांची लांबाय १३,११४ किमी. आशिल्ली. व्हाल्टाव्हा, एल्ब आनी डॅन्यूब ह्या न्हंयांतल्यान उदकांतली येरादारी चलता. उदकामार्गांतल्यान ह्या देशाचे संबंद हेर देशांकडेन येतात. चेकोस्लोव्हाक एअरलायन्स हे संस्थेवरवीं हवाईमार्गांवयली येरादारी चलता. राश्ट्रीय तशेंच आंतरराश्ट्रीय मार्गांचेर ही संस्था येरादारी सांबाळटा. हेर देशांतल्या विमानकंपन्यांवरवींय हांगा येरादारी चलता. प्राग, बर्नो, ब्राटिस्लाव्हा, ओलोमॉक, कोशीक ह्या शारांनी मुखेल विमानतळ आसात. येरादारीच्या मळार हो देश फुडारिल्लो आसा.

१९८४ मेरेन हांगासावन ३० राश्ट्रीय थरावयलीं दिसाळीं उजवाडाक येतालीं. 'रुदे प्राव्हो' हें कम्युनिस्ट पक्षाचें अधिकृत दिसाळें, हातूंत मुखेल आसा. हेर बरींच नेमाळींय हांगासावन उजवाडाक येतात.

रेडिओ, दूरचित्रवाणी ह्या प्रसारमाध्यमांचीय हांगा बरीच उदरगत जाल्या. सगळ्या प्रसारमाध्यमांचेर सरकाराचें पुरायपणान नियंत्रण आसता. संचारणाच्या मळार ह्या देशाचो पांवडो बरोच ऊंच आसा.

**लोक आनी समाजजीण**: वंशीक नदरेन ह्या देशांतले ६३.८ % लोक चेक, ३१% स्लोव्हाक, ३.८% हंगेरीयन, आनी उरिल्ले पॉलिश, जर्मन, युक्रेनियन आनी हेर वंशांचे आसात. हांगा सुमार ६५.५% रोमन कॅथलिक, २०.१% नास्तिक आनी उरिल्ले हेर धर्मपंथांचे आसात.

परंपरेंतल्यान चलत आयिल्ले सण, उत्सव, चालीरिती आनी रावपाची पध्दत गांवगिऱ्या वाठारांनी आनी खास करून शेतकारांच्या जिवितांत आयजमेरेन तिगून उरल्या. देखून अन्न, भेस आनी घरां कांय

वाठारांनी परंपरेन आयिल्लीं तशींच आसात. शारांतल्यान लोकांचें जिवीत हाचेपरस सामकें वेगळें आसा. आवय-बापूय दोगांय चडशीं कामार वचपी आशिल्ल्यान भुरग्यांचेर सरकाराचें लक्ष आसता. ल्हानपणासावन देशाचेर भक्ती करपाची तांकां गोडी लायतात. तांचें शिक्षण, खाणजेवण, कपडे, मनोरंजन हांची जापसालदारकी सरकार घेता. कामगारांच्या भुरग्यांक हांगा हेरांपरस मात्स्यो चड सवलती मेळटात.

गांवांनी रावपी शेतकार, जर तो चेक आसत जाल्यार मात्सो चड फुडारिल्लो आसता. त्यामानान स्लोव्हाकियांतलो शेतकार मागाशिल्लो आनी गोरवां पोसपाच्या उद्येगांचेर चड आदारिल्लो आसा.

साम्यवादी राज्यपध्दतीक लागून हांगाच्या लोकांच्या रावपाचो पांवडो बरोच सुदारला. बायलांक समाजांत बरोबरीची सुवात आसा.

कलेचे नदरेंतल्यान हो देश पयलींसावन संपन्न आसा. पूर्विल्ल्या तशेंच गॉथिक आनी बरोक काळांतले परंपरेची पुराय्पणान जतनाय केल्या. देशांत कितल्याशाच शारांनी पोरन्यो इगर्जी, किल्ले, सभाघरां आनी हेर इतिहासीक वास्तू बरेतरेन सांबाळून दवरल्यात. प्राग ह्या शाराचे सांस्कृतिक गिरेस्तकायेची आयजमेरेन संवसारांत तोखणाय जाता.

संगीताच्या मळार एकुणिसाव्या शेंकड्यासावन हांगा उदरगत जायत गेल्या. बोहीमियांतलें संगीत, वाद्यां, वाद्यां वाजोवपी पंगड कितल्याशाच शतमानांसावन नामनेक पावल्यात. स्मेताना आनी द्वोराक ह्या सारके व्हड संगीतकार हांगा जावन गेले. प्रागा शारांत जावपी वर्सुकी संगीत मेळाक संवसारांतल्यान कितलेशेच लोक भेट दितात. बोहीमियन नृत्याचो प्रभाव पुराय युरेपीय नृत्याचेर दिसून येता. 'पोल्का' हो हांगाचो नृत्यप्रकार संवसारभर तोखणायेचो थारला. नाटक, सिनेमा, चित्रकला ह्या मळार हांगाच्या फिशाल लोकांनी नामना मेळयल्या.

शियाळ्यांतले बर्फावयले खेळ हांगाच्या लोकांमदीं प्रिय आसात. बर्फावयलो हॉकी, फुटबॉल, व्हॉलीबॉल, नाडेपेन्ना (athletics) ह्या सारक्या खेळांनी संवसारीक सर्तींत चेकोस्लोव्हाकियाच्या खेळगड्यांनी आपल्या उंचेल्या पांवड्याचें प्रदर्शन केलां.

**शिक्षण:** राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण सुमार ९९% आसा. हांगाच्या शाळेंतल्या शिक्षणाची परंपरा सतराव्या शेंकड्यासावन सुरू जाली. शाळेंतलें शिक्षण ९ वर्सांचें आसता. हें शिक्षण फुकट, सक्तीचें आनी एकसारकें आसा. रशियन भाशा तिसरी भाशा म्हूण शिकयतात. सामक्याच मुळाव्या पांवड्यावयलें शिक्षण सरकाराच्या जापसालदारकेखाल चलता. शिक्षणसंस्थांचे प्रमाण बरेंच व्हड आसा.

चडशे विद्यार्थी वैजकी, अभियांत्रिकी, समाजविज्ञान, शेतवड ह्या सारक्या विशयांचें शिक्षण घेतात. १३४८ त थापणूक जाल्लें चार्लस् विश्वविद्यालय (कार्लोवा युनिव्हर्सिटी) आनी १७०७ त थापणूक जाल्लें चेक तांत्रिकी विश्वविद्यालय, हीं मध्य युरोपांतलीं सगळ्यांत पोरनी शिक्षण केंद्रां आसात. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत शिक्षणीक संस्थांची नेटान वाड जाली. रशियाचो बेस बरो पालव शिक्षणाच्या प्रसाराखातीर आनी उदरगतीखातीर मेळ्ळो. विश्वविद्यालयाभायर संशोधन आनी शिक्षणाच्या मळार हेर बऱ्योच संस्था वावुरतात. शिक्षण पुरायपणान सरकारी नियंत्रणाखाल चलता. उंचेल्या पांवड्यावयल्या शिक्षणाची हांगा बरी वेवस्था आसा. हांगाच्या विश्वविद्यालयांनी संवसारांत कीर्त मेळयल्या.

**भाशा आनी साहित्य:** चेक ही इंडो-युरोपीय भाशापंगडांतली स्लाव्हिक चोम्याचे अस्तंतेवटेन उपेगांत येवपी एक म्हत्वाची भाशा. ही भाशा उलोवप्यांची संख्या बरीच व्हड आसा. स्लोव्हाक ही भाशाय चेक भाशेक बरीच लागींची आसा. ह्यो दोनूय भाशा हांगाच्यो अधिकृत भाशा. हे भायर अल्पसंख्य लोकांच्यो मग्यार (हंगेरीयन), पॉलिश, रुथेनियन, यिड्डीश आनी जर्मन ह्योय भाशा हांगा उपेगांत येतात.

सद्याक तिगून उरिल्लें चेक साहित्य तेराव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दासावनचें आसा. ह्या काळांत स्तोत्रां, महाकाव्यां, भावकाव्य, नाटक अशा साहित्यप्रकारांची हांगा निर्मणी जाली. सोळाव्या शतमानांत 'बायबल'चो अणकार चेक भाशेंत जालो आनी उपरांत ताची स्फूर्त घेवन हांगा बरीच ग्रंथनिर्मणी जाली. सतराव्या-अठराव्या शेंकड्यांत हॅप्सबर्ग घराण्याचे सत्तेखाल हांगाच्या साहित्यवावराक जाय तशी उर्बा मेळ्ळी ना. पूण ते परिस्थितींतलेगीत जॉन एमस कॉमीनियस हाणें चेक भाशेंतल्यान समृध्द ग्रंथरचणूक केली. अठराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दासावन हांगा विज्ञानाच्या उदरगतीच्या वावरांतल्यान साहित्याच्या मळार बरीच बरपावळ जाली. राश्ट्रवाद आनी देशभक्तीचे प्रेरणेंतल्यान चेक साहित्यीकांनी आनी विद्वानांनी नामना मेळयली. यॉसेफ डॉब्रॉव्हस्की, यॉसेफ युंगमान, पावेल यॉसेफ शाफारझीक, फ्रांस्यिशेक पालाट्स्की हे साहित्यिक ह्याच काळांत जावन गेले. १९ व्या शेंकड्यांत यान नेरुदा, कारेल मारवा, हालेक व्हीस्वेस्लाव्ह, यारोस्लाव्ह व्हर्खलिट्स्की, स्वाटॉप्लुक चेख हे कवी तशेंच बोझेना नेम्कोवा, कारोलिना स्व्हेट्ला, आलॉयूस यिरासेक हे कादंबरीकार नामनेक पावले. साम्यवादाच्या प्रभावान साहित्यनिर्मणेच्या मळार नामना मेळोवपी विसाव्या शतमानांतले साहित्यीक म्हळ्यार यॉसेफ होरा आनी यिरझी वॉल्कर. हांच्याभायर कारेल चापेक, फ्रांटियशेक, लँगर हे नाटककार, कारेल मातेज, चापेक-चॉड, इग्नाट हर्मन आनी हेर कितलेशेच म्हान लेखक हांगा नामनेक पावले. सद्याचे साम्यवादी राजवटीक लागून साम्यवादी तत्त्वांचेर आदारिल्लें साहित्य हांगा बऱ्याच प्रमाणांत पातळ्ळां.

**म्हत्वाचीं थळां:** बोहीमियांतले पर्वत, रानांची सोबीतकाय, वखदी उदकाच्यो झरी, डॅन्यूब न्हंय, कार्पेथियन पर्वत ह्यो गजाली पर्यटकांक आकर्शित करतात.

प्राग ही देशाची राजधानी, बॅर्ना, बाटीस्लाव्हा, प्रेसबर्ग, कॉशित्से आनी स्लोव्हाक हीं शारां म्हत्वाचीं आसात.

ओस्ट्राव्हा हें लोखणकारखान्याखातीर, पेल्झेन हें एक उद्येगीक केंद्र, स्कोडा थंयचे बीयरीखातीर आनी ऑलॉमोत्स, लीबेरेत्स ह्याय थळांक म्हत्व आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**चेटणी:** जेवण वा नाश्तो (breakfast) हातूंतलो एक पूरक पदार्थ. हेर पदार्थांवांगडा तिखट, आमट असो खर सुवाद मेळचो म्हूण केल्लो पदार्थ. चेटणेचे जायते प्रकार आसतात. चेटण्यो वांटून, कुटून वा मुड्डून करतात. तातूंतल्यो कांय चेटण्यो अश्यो:

१. *हरवे मिरसांगेची चेटणी:* हे चेटणेक हरव्यो मिरसांगो, कोथमीरेचो पालो, सोय, आमटाण, साकर आनी मीठ अशे जिन्नस लागतात. हें सगळे एकठांय करून वांट्टात.

२. *लसणीची चेटणी:* हातूंत सोय, लसणीच्यो बोयो, तांबड्यो (सुक्यो) मिरसांगो, आमटाण आनी मीठ अशे जिन्नस घालतात.

३. *सांसवांची चेटणी:* सांसवां आनी हिंग तापिल्ल्या तव्यार फुलयतात. तातूंत सुक्यो मिरसांगो, सोय, आमटाण, मीठ घालून वांट्टात.

४. *कुटिल्ली चेटणी:* चेटणेंत लसूण, सोय, सुक्या मिरसांगांचो पिठो, तीळ, मेथी, मिरयां, हिंग हें सगळे एकठांय करून कुटतात. ही चेटणी जायतो तेंप तिगूंक शकता.

५. *मुड्डिल्ली चेटणी:* हातूंत चिरिल्लो कांदो, सोय, मिरसांगांपिठो, आमटाणीचें उदक, मीठ, साकर हे सगळें एकठांय करून मुड्डितात. हातुंतूच दुसरे प्रकार करतात; तातूंत मिरसांगां पिठ्या जाग्यार हरवे मिरसांगेचे कुडके घालतात.

ह्या चेटण्यांभायर आल्याची चेटणी, मिरसांगेचें रायतें आनी हेर जायते चेटण्यांचे प्रकार आसात.

तरेकवार भाज्यो आनी सोय घालून वांटिल्ले चेटणेक, ते ते भाज्येवेल्यान नांव आसा. देखीक: आमाड्याचें सांसवं, आमाड्याची करम, कारात्याचें रायतें, घोटांचें सांसवं आदी.

लसणीचे चेटणेंत आमटाणीच्या बदला सोलां घालून गोंयांत तिखटें हो प्रकार करतात. हें तिखटें पणसाचीं सुकिल्लीं भिकणां उकडून ताचे

वांगडा खातात.

चडकरून चेटणी निखटी खायनात. भाकरी, पाव, चपाती, पोळो, सान्नां (हीट) हांकां लावन खातात.

- सुधा आमोणकार

**चेटूक (यातुविद्या)**: जादूचे दोन अर्थ आसातः १. जादूटोणा (चेटूक) म्हळ्यार अलौकिक वा गूढ शक्तीची खाशेली पात्रताय आशिल्ल्या मनशान ऐहिक हिताची प्राप्ती वा वायटाचें निवारण करपाच्या हेतान केल्ली साधना आनी ते साधनेचें कर्मकांड वा तंत्र. २. जादूचे खेळः सामान्य लोकांक अज्ञात युक्तींनी, हातचलाखीन भुलोवन तरेकवार चमत्कार करून दाखोवप-

'जादू' शब्द 'यातु' ह्या संस्कृत शब्दावयल्यान आयला. फार्सीतसून भारतीय भाशांत 'जादू' हो शब्द आसा तसो आयलो. वेदकाळांत 'यातु' म्हळ्यार 'जादू' हो शब्द उच्च धर्माचे नदरेन अयोग्य मानिल्ल्या कर्मकांडाचो दर्शक मानिल्लो. 'टोणा' हो कन्नड भाशेंतलो शब्द आसून ताचो अर्थ 'फटोवप' असो जाता.

यातुविद्येक 'मायावेद' अशी संज्ञा वैदिक काळांत प्रचलित आशिल्ली, अशें शतपथब्राह्मणांत म्हळां. यातुवेत्त्याक 'मायी' वा 'मायाविद' अशें म्हण्टाले. जादूचो खेळ करता आसतना मायाविद धर्तरेचेर रावन आपूण अधांतरी मळबांत संचार करीत आसा, असो देखाव दाखयतालो अशें शारीरकभाष्यांत शंकराचार्यान म्हळां. ऋग्वेदांत म्हळां, की मायांच्या योगान इंद्र भोवरुपां धारण करता. मायावेद हो असुरांचो वेद आसूंक जाय, अशेंय एक मत आसा. अथर्ववेदांत म्हळां की 'मायी' म्हळ्यार 'मायावेत्ते' घातक आसून तांची बाधा जावंची न्हय म्हूण एकसारकी प्रार्थना करची पडटा.

यातुविद्या, जादू-संस्था आनी धर्म हांचेभितर एकामेकांक वेगळी करपी विभाजक शीम प्रत्यक्षांत दाखोवप भोव कठीण. सगळ्या मुळाव्या अवस्थेंतल्यान समाजांत यातुविद्या दिसून येता. भारत, चीन, ईजिप्त, ॲसीरिया, काल्डिया, बॅबिलोनिया, इराण, अरबस्तान, ग्रीस, रोम, आर्विल्लो युगपूर्व युरोप ह्यो सगळ्यो पूर्विल्ल्यो संस्कृतायो आनी राश्ट्रां हांच्यांत यातुविद्या प्रचलित आसून तांच्या धर्मांत ती भरसल्या. यातुविद्येंतल्या कर्मकांडाचेर आनी तेविशींच्या पारलौकिक वा अलौकिक शक्तींचेर सगळ्या धर्मसंस्थांत श्रध्दा प्रचलित आसा. यातुवेत्तो वा जादुगार हो दिव्यशक्ती वा व्यक्ती हांच्यांतलो मध्यस्थ आसता. मुळावे अवस्थेंतूच कर्मकांडांत आनी गुंतागुंतीचे यातुविद्येंत प्रवीण आशिल्लो यातुवेत्तो होच मंत्रिक, पुरोयत, वैज, भविश्यवादी आनी दैवज्ञ ह्या नात्यान कर्तव्यां करीत आसता.

धातुविद्येचें उद्दिश्ट ऐहिक आसता. देखीकः रोगपीडा, हुंवार, दुकळ ह्या संकश्टांचें निवारण, गरज लागता तेन्ना पावस उडोवप, धान्य आनी जनावरां हांचे समृध्दीचे उपाय येवजप, भविश्यकाळांतले उदरगतीचीं आनी अरिश्टांचीं चिन्हां वळखप हीं ऐहिक प्रयोजनां जावन आसात. हीं प्रयोजनां अलौकिक शक्तीं वरवीं यातुवेत्तो साध्य करता.

अलौकिक शक्तींभितर पिशाच, राक्षस, पितर, असुर, अप्सरा, गंधर्व, डाकिणी-शाकिणी, हडळ, डेव्हिल, सैतान ह्यो घातक शक्ती आसतात. मळबांतले गिरे हे केन्ना अनुकूल आनी केन्ना प्रतिकूल आसतात. उच्च धर्मांतले अल्ला, गॉड, परमेश्वर, बुध्द, ब्रह्म, अर्हत्, अहुर मज्द, येहोवा वा जेहोवा ह्यो संज्ञा आशिल्ल्यो पवित्र, दयामय, दिव्य शक्तीय हातूंत आस्पावतात. ह्या पवित्र आनी दिव्य शक्तींची धर्मीक समाजाक ऐहिक कल्याणाखातीर गरज आसता. आध्यात्मिक कल्याणाखातीर केल्ली आराधना जगांतलीं उच्च धर्मांतलीं देवळां, इगर्जी, मशिदी, पॅगोडा हातूंत पूर्विल्ल्या काळासावन आतांमेरेन चलत आयल्या.

कांय संशोधक आत्मकल्याणाखातीर देवाची कृपा संपादन करप वा आत्म्याची उन्नती करून घेवप, हेंच धर्माचें कार्य आसा आनी ऐहिक भायली सुस्थिती साधप, हेंच यातुविद्येचें कार्य आसा अशें मानतात. यातुविद्या मुळाव्या समाजांत उत्पन्न जाली तेन्ना धर्म नाशिल्लो, अशें तांचें म्हणणें आसा. धर्म ही यातुविद्येउपरांतची प्रगत अवस्था आसा. यातुविद्या वैयक्तिक गरजांचेर उबाल्ली आसा, जाल्यार धर्म हो समाजीक जिणेचो नियंत्रक आसा, अशेंय कांय संशोधक म्हण्टात. कांय जाणांचें मत अशें आसा कि यातुविद्येंतूच धर्माचें बीं आसा. धर्म हें यातुविद्येचेंच उंचेलें स्वरुप जावन आसा.

प्राथमिक समाजांतली अलौकिक शक्तीची कल्पना सामकी विस्कळीत स्वरुपाची आसा. हे अलौकिक शक्तीक मानवशास्त्रज्ञ 'माना' अशी संज्ञा दितात. साबार संवसारांतल्या विंगड विंगड देशांतल्या आनी समाजांतले यातुविद्येचें पयलें गृहीत कृत्य अशें, की मनशाचें बरें-वायट करपी शक्ती विश्वांतल्या पदार्थमात्रांनी पात्ळ्ळयात. कांय जाणांच्या मताप्रमाण ही एकूच शक्त आसा, जाल्यार कांय जाणांच्या मताप्रमाण पदार्थांपदार्थांनी विंगड विंगड शक्ती आसात. ह्या विंगड विंगड पदार्थांतले अलौकिक शक्तीचें जादूच्या तंत्राप्रमाण चालन, संमुखीकरण वा केंद्रीकरण जाता. ह्या तंत्राच्यो तीन तरा आसातः १. दांडो वा कोंड्याची बडी, धातू, फातर, वनस्पती, मणी, हाडां, कवट्यो, केंस, दुस्मानाच्या अवयवासारके पदार्थ, मेण, विस्तव, गोबोर, उदक खाशेलीं वखदी द्रव्यां आदी. २. मंत्रतंत्र. हातूंत द्रव्यांची खाशेले पध्दतीन मांडावळ करता आसतना खास मंत्र म्हण्टात. जे तरेचे अलौकिक शक्तीची साधना करपाची, ती मनांत हाडप वा तिचो नामोच्चार करप; जाचें बरें वा वायट साधपाचें आसा ताका मनांत हाडप वा ताचो नामोच्चार करप; स्वता यातुवेत्त्यान खाशेल्या प्रकारचे शरीरक्रियेन चलप; ह्या सगळ्यांक खाशेली पध्दत, काळ, थळ वा दिका लागता. देखीक- अमाशेचे काळखे राती मसंडींत कांय यातुक्रिया करतात. सादी मंत्रविरयत क्रियालेगीत शक्तीयुक्त आसता, अशें मानतात. तशेंच मंत्रायल्ली कांडी, गंडोदोरो, गोबोर, केंस, मंत्रयुक्त स्पर्श, नदर, आलिंगन हांकां लेगीत अदृश्ट शक्ती आसता. ३. यातुवेत्त्याक यातुक्रिया करपाखातीर खाशेलो अधिकार मेळोवचो पडटा ताका 'तांबू'चें वा निशिध्दांचें स्वरुप मतींत घेवन कांय व्रतां आनी विधीनिशेध पाळचे पडटात. देखीकः नेमान न्हावप, नेमान जप करप, कांय जनावरांचें दर्शन घेवप ना, कांय पदार्थ जेवणांतल्यान वर्ज्य करप, थोड्या काळापुरते लैंगिक संबंद वर्ज्य करप वा ब्रह्मचर्य पाळप.

यातुक्रियेचीं दोन स्वरुपां आसातः साधना आनी समारंभ. *साधनाः* दुकळ पडटलो अशी भिरांत दिसूंक लागतकच पावस उडोवपाखातीर विधीविधान करप; धामीचे रोग उत्पन्न जातकच तांचो बंदोबस्त जावंचो म्हूण कर्मकांड करप, झुजांत दुस्मानाचेर जैत मेळोवपाखातीर साधना करप, घरांत कलह जावंचो न्हय म्हूण वास्तुशांत करप; बाळंटेर बरें जावंचो म्हूण गंडोदोरो बांदप; ह्यो जाल्यो साधना. *समारंभः* देवूळ, चर्च, मशीद, धर्मशाळा हांच्या उक्तावणाचो धर्मविधीयुक्त मेळावो, देवांचे वर्सुकी उत्सव, उरुस तशेंच तीर्थक्षेत्रांच्यो यात्रा, हे समारंभ जावन आसात.

साधनेचे तीन प्रकार आसातः १. शेतांत पयलेच खेप नांगर धरतना करपाचो विधी, गर्भाधान, लग्न हे उत्पादनविधी. २. झुजाच्या आरंभावेळार आनी झूज चालू आसतना करपाचे विधी हे संरक्षणविधी. ३. दोळ्यांचें दुयेंस, कुश्टरोग, जोर, दमो ह्या रोगांच्या निवारणाखातीर आनी हेर सांथीच्या रोगांच्या निवारणाखातीर करपाचे विधी हे निवारणविधी. आनीक एक वर्गवारी आसा, ती म्हळ्यार शुक्लयातू आनी कृष्णयातू. कृष्णयातूक वेदांत 'अभिचार' वा 'कृत्या' अशें म्हळां. क्रिस्ती धर्मांत दुस्मानाचेर संकश्ट हाडपाखातीर दुश्ट हेतान इगर्जींत 'ब्लॅक मास' (काळी प्रार्थना) करतात. हे प्रार्थनेंत डेव्हिलचे शक्तीचोय उपेग जावंचो, असो हेत आसता. चेटूक करून सवतीक वांझ करप, भानामतीचे प्रयोग, मूठ मारप हे घातक प्रकार लेगीत कृष्णयातू जावन आसात. शुक्लयातू म्हळ्यार दुसऱ्याचें वायट करपाचो हेत बाळगिनासतना फकत व्यक्तीच्या वा कुटुंबाच्या ऐहिक कल्याणाखातीर केल्ली साधना. संवसारांतल्या सगळ्या मागाशिल्ल्या आनी सुदारीत समाजांत रुढ आशिल्ले धर्मीक संस्कार आनी समारंभ हे शुक्लयातुंतूच

आस्पावतात. कुटुंबांतलीं वा समाजांतलीं झगडीं पालोवपाखातीर शुक्लयातू करतात. शुक्लयातूचें एक उदाहरण म्हळ्यार पावस हाडपाखातीर केल्लो जादू. यातुभितर आनीक दोन भेद आसातः यातू एकट्यान केली जाल्यार दुसऱ्यान ताच्याआड प्रतियातू करूं येता. देखीक- झुजांत एक पक्ष दुस्मानाच्या पराभवाखातीर यातू करता. दुसरो दुस्मान पक्ष ताच्याआड प्रतिकाराखातीर यातू करता. हाका 'प्रतियातू' अशें म्हण्टात.

संवसारांतल्या पूर्विल्ल्या राश्ट्रांतल्या लोकांचो जादूच्या क्रियांचेर उपाट भावार्थ आशिल्लो. ईजिप्शियन समाजांत धर्म हो फकत जादूस्वरुपाचोच आशिल्लो. जादूगाराक कांय खाशेले नेम, मंत्रसिध्दी आपणावपाखातीर पाळचे पडटात. मंत्रांचो उपेग ते चडसो वैजकेंत करताले. जादूगाराक तांच्या समाजांत खूब म्हत्वाची सुवात आशिल्ली. ॲसिरियन आनी बॅबिलोनियन राश्ट्रांच्या जादूवयल्या ग्रंथांनी सविस्तर म्हायती मेळटा. ग्रीक आनी रोमन समाजांतूय जादूगाराक म्हत्व आशिल्लें. होमरच्या काळांतसावन जादूच्या क्रियांचें वर्णन करपी साहित्याक सुरवात जाली. किमयाशास्त्र आनी भविश्यकथन हाका ग्रीक आनी रोमन संस्कृतायेंत खूब म्हत्व आशिल्लें. ग्रीक देवळांत पुजाऱ्याकडल्यान भविश्यकथन वा कौल जातालो. युरोपांत मध्ययुगांत जादू आनी चेटूक हांच्यावयलो विश्वास एकदम वाडलो. एकुणिसाव्या शेंकड्यामेरेन युरोपांत चेटकिणीची भिरांत सामान्य लोकांमदीं पातळिल्ली. युरोपांत क्रिस्ती धर्माच्या प्रसाराउपरांत जादू हो खऱ्या धर्माआड आशिल्लो शुध्द लोकभ्रम आसा, अशेंय कांय क्रिस्ती पंडित म्हणपाक लागले. तरीकूय चेटूक आनी चेटकिणीची भिरांत थंय शेंकड्यांनी वर्सां तिगून आशिल्ली. कुराणांत जादूविशीं खूब म्हायती आसा. बदनजर, सोरपाचें विख असलीं कितलींशींच दुयेंसां बरीं करपाचें मंत्रमंत्र जाणपी आनी हेर जादूगार मुसलमान समाजांत आनी राश्ट्रांत पूर्विल्ल्या काळासावन आदराक पात्र थारल्यात.

हिंदू धर्मांत वैदिक काळासावन यातुविद्या मोट्या प्रमाणांत भरसल्या. ऋग्वेद काळांत यातुक्रिया अयोग्य अशें मानिल्ली, देखून 'यातुधान' (जादूगार) ही अपमानकारक संज्ञा अशें मानताले. वसिष्ठ ऋषी कागाळ करता, की म्हजी 'यातुधान' म्हूण निंदा करतात. अथर्ववेदांत, वयर उल्लेख केल्ले यातुचे शुक्ल आनी कृष्ण अशे दोनूय प्रकार विस्तारान वर्णिल्यात. पूण शुक्लयातुच्या प्रकाराक 'यातु' ही संज्ञा थंय ना. अग्नी, इंद्र, वरुण, सविता, विष्णू, रुद्र, सरस्वती ह्या देवांच्यो आराधना आशिल्ल्यो यातुक्रिया अथर्ववेदांत आसात. अथर्ववेदांत राकेस, पिशाच्च, गंधर्व, अप्सरा ह्या दुश्ट अलौकिक शक्तींचे दुश्परिणाम टाळपाचे विधींय सांगल्यात.

पूर्विल्ल्या काळासावन आयजमेरेन मनशाचो यातुविद्येवयलो भावार्थ तिगून आसा. हाचें कारण म्हळ्यार वायटाचें निवारण, संकश्टांपसून राखण हाची प्राप्ती करून घेवपाखातीर मनशाची चिंता वाडली आनी हातूंतल्यान यातुविद्येचे श्रध्देचो उगम जालो. पूर्विल्ल्या काळांत मनशाचो बुध्दिवाद भौतिक सृश्टीचें गिन्यान मेळोवपांत आनी सैमाचेर ताबो मेळोवपाचे नदरेन सामको निर्फळ जातालो. देखून, त्या वेळार इत्सापूर्तीच्या काल्पनिक साधनांक तो चड म्हत्व दितालो. वैज्ञानिक साधनांचो वापर करता आसतनाय, अनपेक्षित संकश्टां मनीस टाळूंक शकना जालो आनी अजूनूय ही स्थिती कायम आसा. अलौकिक शक्तींची कल्पना मनशाच्या मनाची फाट कशीच सोडिना.

यातुविद्येचें एक स्वरुप म्हळ्यार धर्मीक समारंभ. ह्या धर्मीक समारंभांनी आदरान आनी उमेदीन व्हडा संख्येन मनशांचे पंगड वांटो घेतात आनी धादोसभरीत जातात. अशे तरेन परंपरेचो आदर आनीकूय घट जाता. मनशाचो चमत्कारांवयलो विश्वास कमी जायत आसा, हातूंत दुबाव ना. पूण कर्मकांडावयलो भावार्थूय कमी जायना.

मानवशास्त्रज्ञ ई. बी. टायलर हाणें यातुविद्येची एक वेगळी मानसिक उपपत्ती आपल्या ग्रंथांत विस्तारान मांडल्या. तो म्हण्टा की यातुविद्या हें मुळावे अवस्थेतलें आभासी-विज्ञान (Pseudo-science) आसा. मुळावे अवस्थेंतलो मनीस विश्वांत कार्यकारणभाव आसा, अशें मानून विश्वांतल्या घडणुकांचो अर्थ लायतालो. ताणें विश्वव्यवस्थेखातीर अलौकिक शक्तीची कल्पना केली. तातूंतल्यानूच यातुविद्येचें आनी उपरांत धर्मविद्येचें विश्वरचनाशास्त्र आयलें. हीच उपपत्ती जेम्स जी. फ्रेझर हाणें उपरांत निवळायली आनी यातुविद्येचो धर्म आनी विज्ञान हांचेकडेन आशिल्लो संबंद स्पश्ट करपाचो यत्न केलो. 'यातुविद्या म्हळ्यार प्राथमिक विज्ञान' ह्या टायलर आनी फ्रेझर हांचे उपपत्तीआड एका फ्रेंच मानवशास्त्रज्ञाचो आक्षेप असो आसा की मुळावे अवस्थेंतल्या मनशांत बुध्दिवाद वा तार्किक विचार करपाची शक्त सुप्त आसता. ही अवस्था म्हळ्यार तर्कपूर्व (pre-logical) अवस्था अशे म्हणूं येता. पूण तर्कपूर्व अवस्थेंतलो मनशाचो पंगड संवसारांत अजून तरी खंयच सांपडूंक ना. कांय जाणकारांचें मत अशें आसा की तर्कपूर्व अवस्था आसूं वा नासूं, यातुविद्येंत वैज्ञानिक पध्दतीन यातुच्या परिणामांची केन्नाच तपासणी जायना. यातू फळादीक जावं वा ना जावं, प्रात्यक्षिक प्रयोग वा अणभव हांकां अनुसरून खऱ्याफटीचो विचार तातूंत जायना. देखून यातुविद्येक मुळावें विज्ञान म्हणप समा न्हय. फ्रेझर हाच्या मताप्रमाण यातुविद्या, धर्म आनी विज्ञान ह्यो उदरगतीच्यो तीन अवस्था आसात. हातूंतले पयले अवस्थेंत म्हळ्यार यातुविद्येंत अलौकिक शक्तीचेर ताबो चलोवं येता अशी भावार्थ आसता; पूण जसोजसो समाज प्रगत जायत वता, तसो तसो हो भावार्थ कमी जायत वता. देखून अलौकिक शक्तीची प्रार्थना करप, पूजा करून समर्पण करप, यज्ञ-होम करप, तेखातीर देवूळ बांदप, भक्तीन शरण वचप ह्या स्वरुपांत धर्म अवतरता. हाचे फुडली तिसरी अवस्था, वैचारिक उदरगतीची अवस्था म्हळ्यार विज्ञान. जशीजशी विज्ञानाची उदरगत जायत गेली, तशी तशी जादूविद्या आनी धर्म हांच्या तत्त्वांची शास्त्रीय नदरेन विस्कटावणी जायत गेली.

- कों. वि. सं. मं.

**चेन, अर्नेस्ट बोरीसः** (जल्मः १९ जून १९०६, बर्लिन; मरणः १२ ऑगस्ट १९७९, आयर्लंड).

जर्मन-इंग्लिश जीवरसायनशास्त्रज्ञ. १९३० त, फ्रेड्रिक-व्हिल्हेल्म विद्यापीठाची रसायनशास्त्र आनी शरीरक्रियाविज्ञान ह्या विशयांतली पदवी मेळयतकच ताणें बर्लिनांतल्या एका रुग्णालयांत १९३०-३३ ह्या काळांत 'एंझायम्स' (enzymes) चेर संशोधन केलें. १९३३ त इंग्लंडाक वचून केंब्रिज हांगाचे जीवरसायनशास्त्र संस्थेंत हॉपकिन्स ह्या शास्त्रज्ञाच्या हातासकल ताणें संशोधन केलें. १९३६-४८ ह्या काळांत तो ऑक्सफर्ड विद्यापीठांत रसायनीक विकृतिविज्ञानाचो प्रयोग निदर्शक आनी व्याख्यातो आशिल्लो. १९४८-६१ ह्या काळांत तो रोम हांगाच्या रसायनिक सूक्ष्मजीवशास्त्राचे आंतरराश्ट्रीय संशोधन संस्थेचो वैज्ञानिक संचालक आशिल्लो. १९६१ त, तो लंडनच्या 'इंपिरियल कॉलेज ऑफ सायन्स' हे संस्थेंत जीवरसायनशास्त्राचो प्राध्यापक जालो.

चेन आनी हॉवर्ड फ्लॉरी हांणी १९३९ त पेनिसिलिनाविशीं (penicillin) संशोधन करपाक सुरवात केली. ताच्या ९ वर्सां आदीं अलेक्झांडर फ्लेमिंग हाणें पेनिसिलिनाचो सोद लायिल्लो. चेन आनी फ्लॉरी हांणी पेनिसिलिन शुध्द स्वरुपांत तयार करून तें एक प्रभावी वखद आशिल्ल्याचें सिध्द केलें. तांच्या ह्या संशोधनाक लागून प्रतिजैव (antibiotic) वखदांच्या संशोधनाची बुन्याद तयार जाली. वेगवेगळ्या सांसर्गिक रोगांचेर रोगनिवारक उपाय म्हूण पेनिसिलिन (penicillin) हें म्हत्वाचें वखद सोदून काडिल्लेखातीर, १९४५ त चेन हाका वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञान विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फ्लॉरी आनी फ्लेमिंग हांचेवांगडा वांटून मेळ्ळो. चेन हाका बर्झीलियस पदक (१९४६), पास्तर पदक (१९४६) आनीक हेर जायतीं पदकां मेळ्ळयांत. १९४९ त, तो रॉयल सोसायटीचो फेलो जालो. १९६९ त, ताका 'सर' हो किताब मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**चैत्रः** हिंदू पंचांगांतलो पयलो म्हयनो. पुनवेच्या सुमाराक चंद्र चित्रा नक्षत्रांत आशिल्ल्यान चैत्र हें नांव चड करून वेदकाळांत पडलां आसूंक जाय. हाका मधुमास म्हण्टात. सूर्य मीन राशींत आसतना चैत्राक सुरवात जाता. मेष संक्रांत चैत्रांत येता. चैत्र शुध्द प्रतिपदा (संवसार पाडवो) शालिवाहन शकाचो वर्सारंभ तेचप्रमाण साडेतीन म्हुर्तांतलो एक आसून त्या दिसा घुडयो-तोरणां उबारून नव्या वर्साक उमेदीन येवकार दितात. पंचांगाची पूजा करतात आनी कोडूलिंबाच्या पानांची चेटणी करून खातात. ह्याच दिसा वसंत ऋतू, संवत्सर आनी चंडिका नवरात्र (वासंतिक देवी नवरात्र) सुरू जाता. ह्याच दिसा भलायकेचें प्राप्ती व्रत, विद्याव्रत आनी तिलकव्रत करतात. हे प्रतिपदेक सूर्योदयावेळार ब्रह्मदेवान सृश्ट निर्माण केली, अशें हेमाद्रीचें ब्रह्मवचन आसा.

शुध्द पक्षांत गौरीपूजा, मत्स्यजयंती (तृतीया), भवानीची उत्पत्ती (अश्टम), रामनम, दोलोत्सव (एकादस), दमनोत्सव, महावीराचो जल्म, महाराष्ट्रांत गौरीची स्थापना (शुध्द तृतीया) आनी हनुमान जयंती, चैत्री याग (पुनव) हे म्हत्वाचे दीस येतात. चैत्र शुध्द तृतीयेक शंकरावांगडा गौरीची पूजा करतात आनी फुडें म्हयनोभर तांचो दोलोत्सव मनयतात. हेच तृतीयेक मत्स्यजयंती येता.

चैत्र शुध्द पंचम ही कल्पादी तीथ जावन आसा. चैत्रांतले शुध्द अष्टमीक भवानीची उत्पत्ती जाली, म्हूण ह्या दिसा भवानीचें दर्शन घेवचें अशें सांगलां. ह्याच दिसा अशोककलिकाप्राशन होय एक विधी सांगला. ह्या दिसा जितेंद्रिय जावन लौहित्य तीर्थांत न्हाण घेवपी ब्रह्मपदाक पावता, अशें एक वचन आसा. चैत्र शुध्द नम ही रामनम म्हूण मनयतात. चैत्र शुध्द एकादशीक दोलोत्सव येता. त्या दिसा वैष्णव लोक लक्ष्मीसकट विष्णूचें आंदोलन (झोपाळो) करतात. चैत्र शु. द्वादशीक दमनोत्सव म्हळ्यार विष्णुची दवण्यान (शेंवत्याची एक जात) पूजा करतात.

चैत्र म्हयन्यांत दर दिसा आंगणांत एक चौकोन सारोवन ताचेर खाशेले तरेची रांगोळी काडटात, तिका चैत्रांगण अशें म्हण्टात. ह्या चैत्रांगणाचेर हळद-कुंकूम आनी फुलां घालतात. तेचप्रमाण ह्या म्हयन्यांत तुळशी वृंदावनाचेर अभिषेक करतात. वद्य त्रयोदशीक शततारका नक्षत्र आयल्यार १०० सूर्यगिराणांचो आनी शेनवार आयल्यार महावारुणी योग करतात. चैत्रांतले उमाशेक रावणाचो वध जाल्लो.

गोंयच्या नागेश देवस्थान, बांदोडें हांगा वर्सुकी महापर्वणी महोत्सव चैत्र शुक्ल पुनवे दिसा मनयतात आनी चैत्र वद्य प्रतिपदा दिसा फांतोडेर महारथोत्सवान सांगता जाता.

श्री शांतादुर्गा कुंभारजुवेकरीण देवस्थान, माशेल हांगाचो वर्सुकी पालखेचो उत्सव फाल्गुनाचे अखेरेक वा चैत्राच्या आरंभाक मनयतात. देवीची पालखी माशेलांतल्यान दर वर्सा कुंभारजुंव्यां वता आनी सगळ्या हिंदूंच्या घरांत वचून, पूजाअर्चा स्वीकारून चैत्र शुक्ल पंचमीक परत आपल्या देवळांत माशेलांत येता.

श्री महालक्ष्मी देवस्थान, बांदोडें हांगा वर्सुकी उत्सव चैत्र शुक्ल प्रतिपदेसावन चैत्र शुक्ल एकादशीमेरेन मनयतात.

श्री महालक्ष्मी देवस्थान, पणजी हांगा रामनम, चैत्री पुनव आनी अक्षय तृतीया मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**चोडणकार, काशीनाथ रामाः** (जल्मः ४ ऑक्टोबर १९२०, शिवोली-बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' आनी 'आझाद गोमंतक दल' ह्या संघटनांचो तो वांगडी आसलो. पीटर आल्वारीस आनी बाळा काकोडकार हांच्या फुडारपणाखाल ताणें काम केलें. बसकांनी वांटो घेवप, पत्रकां वांटप, वण्टीपत्रकां लावप असलीं कामां तो करतालो. बेळगांव, दोडामार्ग आनी कणकवली हांगासर यो-वच करून तो कार्यकर्त्यांकडल्यान राश्ट्रीय साहित्य एकठांय करतालो. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेक तेंको दिल्ल्या आरोपाखाल पोलिसांनी १९५६ त ताका धरलो आनी पणजे बंदखणींत दवरलो. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**चोडणकार, दत्ता फोंडूः** (जल्मः १९१२, अस्नोडें-बारदेस; मरणः १८ मार्च १९८६).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९४७-५० ह्या काळांत ताणें सुटके झुजाचो जायतो वावर केला. फेब्रुवारी १९५५ त 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेच्या कमांडोक, अस्नोडेंच्या पोलीस ठाण्याचेर धाड घालून ताणें आदार दिल्लो. उपरांत बाळा मापारी वांगडा ताका धरलो आनी आग्वाद बंदखणींत दवरलो. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेच्या कार्यकर्त्यांनी धाड घालून जो दारूगुळो हस्तगत केल्लो, तेविशीं ताचेकडल्यान खबर मेळची म्हूण पोलिसांनी ताका खूब त्रास दिले. मोहन रानडे आनी हेर तीस कार्यकर्त्यांवांगडा ताकाय प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार (Territorial Military Tribunal) हाडलो, तेन्ना ताची निर्दोश सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**चोडणकार, निळकंठ शंकरः** (जल्मः १ जानेवारी १९३२, पिर्ण- बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो पोर्तुगेज सैन्यांत काम करतालो; तरीय लिपचोरयां 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेक तेंको दितालो. गोंय सुटके सैन्याच्या मार्गदर्शनाखाल ताणें रिवण पोलीस ठाण्यासावन पिस्तुलां हस्तगत केलीं. उपरांत तो गोंय सुटके सैन्याचो वांगडी जालो आनी तांच्या जायत्या वावरांत वांटो घेवंक लागलो. १९७७ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**चोडणकार, पुंडलीक रामाः** (जल्मः १९३५, शेळपें-बारदेस).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो राजकी वावरांत वांटो घेतालो. १९५४ त ताका धरलो, तकलेचे सगळे केंस तासून ताची धिंड काडली आनी बंदखणींत दवरलो. १९७३ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**चोडणकार, शिवराम लक्ष्मणः** (जल्मः १० जानेवारी १९२४, हातुर्ली-दिवचल).

गोंयचो सुटके झुजारी. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आसलो. संघटनेच्या कार्यकर्त्यांक गोंयांत भितर सरपाक तशेंच गोंयाभायर वचपाक तो आदार दितालो. १९५९ वर्सा पोर्तुगेज पोलीस ठाण्याक ताणें उजो लायलो आनी तांचे भेस आनी पिस्तुलां घेवन ताणें पळ काडलो. धा दिसांभितर पोलिसांनी ताच्या घराचेर धाड घाली आनी ताका धरलो. ताका बरेच खर त्रास दिले आनी स म्हयने बंदखणींत दवरलो. सरकारान मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. चोडणेच्या गांवकाऱ्यांकडसून ताचो सत्कार जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**चोरीः** दुसऱ्याच्या नकळत वा मान्यतायेबगर ताचे मालकेची वस्त व्हरप आनी स्वता खातीर वा हेर कामांखातीर तिचो उपेग करप, ह्या कर्तुपाक सादारणपणान चोरी अशें म्हण्टात.

भारतीय दंड संहितेंत केल्ले चोरयेचे व्याख्येवरवीं एकाच जाग्यार आशिल्ली (स्थावर) मालमत्ता वा जमनीक लागून आशिल्ली वस्त चोरयेचो विशय जावंक शकना. पूण ती वस्त जमनीसावन वेगळी केली

वा हालयली, तर ती चोरयेचो विशय जावंक शकता. देखीक: १. वस्त हालची न्हय म्हूण दवरिल्ली आडखळ हालयल्यार ताचो अर्थ वस्त हालयल्ले भशेन जाता. २. जर कोणेंय एकाद्रें जनावर एका दुसऱ्या जाग्यार हालयलें, तर अशा हालोवपाक लागून ज्यो गजाली हालतात, तांकांय हालयल्याभशेन जाता. पूण वस्तूच्या वा जनावरांच्या मालकान प्रत्यक्षपणान वा हेर मार्गान वस्त हालोवपाक वा व्हरपाक मान्यताय दिल्ली आसल्यार ती चोरी जावंक शकना. चोरी हे क्रियेंत मालकेपरस ताबो ही म्हत्वाची गजाल आसता. ताका लागून स्वताचे वस्तूचीय मालक वा धनी चोरी करपाक शकता. कोणाच्याच ताब्यांत नाशिल्ली आनी जमनीर पडिल्ली वस्त घेवप, चोरी जायना.

भारतीय स्मृतिग्रंथांत स्तेय=चोरी आनी साहस= दरोडो अशे दोन पृथक गुन्यांव मानल्यात. मनून (८.३३२) तांची व्याख्या अशी केल्या-

स्यात् साहसं त्वन्वयवत्प्रसभं कर्मं यत्कृतम्।
निरन्वयं भवेत् स्तेयं हृत्वापव्ययते च यत्।।

अर्थ- धनयाच्या मुखार, बळाचो आदार घेवन धन-धान्य लुटप वा अपहरण करप, हाका दरोडो वा साहस म्हण्टात. तर ज्यो वस्तू मालकाचे असवडीं व्हरतात, ताका 'चोरी' वा 'स्तेय' अशें म्हण्टात.

चोरयेची कल्पना पूर्विल्ल्या काळासावन अस्तित्वांत आसा. मनशाचे उत्पत्ती वांगडाच चोरयेची उत्पत्ती जाली, अशें मानतात. ऋग्वेदांत तस्कर, स्तेन हीं उतरां जायते फावटीं आयल्यांत. गोरखां चोरप हो चोरयेचो मुखेल प्रकार आसतालो. अथर्ववेदांत लांडगे, वाग आनी चोर हांचो त्रास चुकोवपाविशीं ऋचा आयल्यात.

संवसारांतलीं सगळ्यांत पयली चोरी शंखासुरान केली, असो उल्लेख पुराणांत सांपडटा. शंखासुरान ब्रह्मदेवाचे वेद चोरिल्ले. तेभायर पुराणग्रंथांनी चोरयेचे जे मुखेल उल्लेख येतात, तातूंत हिरण्यांक्षान केल्ली पृथ्वीची चोरी, हिरण्यकश्यपूची गुरवार बायल कथाधू हिची इंद्रान केल्ली चोरी, श्रीकृष्णान गोकुळांत गोप-गोपींच्या दुदा-लोणयाची केल्ली चोरी, हांचो आस्पाव जाता. देवांच्या कांय भक्तांनीय चोरी केल्ली दिसून येता. तमिळनाडूंतलो आळवार संत तिरुमंगई हाणें वैष्णवाच्या आतिथ्याखातीर चोरी केल्ली. रामानुजाचार्यान एका यवनकन्येच्या अंत:पुरांतली श्रीविष्णुची मूर्त चोरिल्ली. श्री तिरुनारायण पुरम् हांगाची विष्णुमूर्त ही चोरून हाडिल्ली मूर्त, अशें म्हण्टात. कबीरान एका सावकाराच्या घरांत चोरी केल्ली, अशें ताच्या चरित्रांतल्यान कळटा.

मृच्छकटीक नाटकांत चारुदत्ताचो वाडो, शर्विलक नांवाचो चोर, वण्टीक बुराक करून फोडटा. ताका जमनींत पुरिल्लें धन सोदून काडपाक कळटा आनी चोरयेच्या कामांत येस दिवपी तंत्रमंत्रूय खबर आसतात, अशी कथा प्रचलित आसा.

पूर्विल्ल्या काळांतले जायते राजे चोरयेचे कलेविशीं आस्था दाखोवपी आसले. विक्रमादित्य ह्या शास्त्रांतलो जाणकार आसलो. कथासरित्सागरांत जायत्यो चोरकथा आयल्यात. पूर्विल्ल्या ललित साहित्यांत चोरयेविशीं जायतें उल्लेख मेळटात. ही गजाल मतींत दवरून ब्राम्फिल्ड ह्या अमेरिकन ग्रंथकारान त्या साहित्याचो खूब अभ्यास करून एक प्रबंध बरयलो. ब्रॅमफिल्डान भारतीय ललित साहित्यांतल्यो कांय नामनेच्यो चोरकथाय संकलित केल्यात. ताच्या मतान मूलदेव हो चोरयेचे कलेचेर ग्रंथ बरोवपी पयलो ग्रंथकार आसलो. ताच्या ग्रंथाचें नांव 'स्तेयसुत'. तो स्वताच पयलीं एक चोर आसलो. ह्या मूलदेवाक कर्णीसुत, गोणीपुत्रक ह्या नांवानीय वळखतात.

एकाद्र्यान वस्त आपणालीच आसा, अशा प्रामाणिक हेतान दुसऱ्याची वस्त व्हेली आनी मागीर ताचेवयलो आरोप सिध्द जालो जाल्यार लेगीत ती चोरी दंडाक पात्र जायना, कारण वस्त व्हरप्याचो हेत प्रामाणिक आसता. पूण फुडल्या प्रसंगार मात वस्त व्हरपी दंडाक पात्र थारुं येता; देखीक- 'अ' न 'ब' ची वस्त व्हरून 'ब' च्या धनयाक दिली आनी ह्या कामाक लागून 'अ' चो कांयच फायदो जायना, जाल्यार लेगीत 'अ' चें काम चोरयेच्या कर्तुपांत मोडटा. म्हाल चोरयेचो आसा, हें खबर आसून लेगीत तो घेवपी, सांबाळपी, लिपोवपी, विकपी वा त्या वस्तूंपसून आपलो फायदो करून घेवपी मनीसूय गुन्यांवकार थारून दंडाक पात्र थारता. एकाद्र्या मनशान ताच्या ताब्यांत आशिल्ली वस्त चोरयेची आसा, हो दुबाव समाधानकारक कारणां दिवन ना केलो ना, जाल्यार लेगीत तो मनीस गुन्यांवकार थारता. चोरी जातकच थोड्या काळामदीं चोरयेचो म्हाल ज्या मनशाच्या ताब्यांत आसता, तो मनीस चोर वा चोरयेचो म्हाल घेवपी, अशें समजतात. जर बायल आपली संपत्त स्वता धारण करूंक शकता, थंय घोवान तिचे वस्तूची चोरी केली जाल्यार घोव आनी बायल हें नातें बचावाचें कारण जावंक शकना.

रोमन कायद्यांत चोराक धरपाचें काम फिर्यादीकडेनूच आसतालें. जपानी, इराणी, आयरीश, इस्लामी, कायद्यांनी चोरयेखातीर मरणाची वा शरीराचे अवयव कातरपाची ख्यास्त आसताली. केल्टिक कायद्यांत चोरांक गुलाम म्हूण विकताले. ट्यूटन, स्लाव्ह लोकांत घोडे चोरपी चोरांक फातरान चेंचून मारपाची ख्यास्त आसतली. मराठ्यांच्या काळांतूय मरणाची ख्यास्त आनी शरीराचे अवयव तोडप, अश्यो खर ख्यास्ती चोरयेखातीर आसताल्यो. त्या काळार चोराच्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक धरून व्हरताले. जर गांवच्या लोकांक चोरयेचो तपास लावंक अपेस आयलें तर लुटीचें वा चोरयेचें लुकसाण गांवच्या लोकांक भरचें पडटालें.

सद्याचे भारतीय दंडसंहितेंत चोरयेच्या गुन्यांवाक विंगड विंगड ख्यास्ती सांगल्यात. सादे चोरयेच्या गुन्यांवाक तीन वर्सांची ख्यास्त भोगची पडटा. घरच्या नोकरान वा कचेरींतल्या कारकूनान केल्या चोरयेच्या गुन्यांवाक ७ वर्सां मेरेनची ख्यास्त सांगल्या. चोरी करतासतना, चोरयेचो म्हाल व्हरतासतना चोरान एकाद्र्या मनशाक जखमी केलो वा जिवेशीं मारलो वा भंय दाखयलो, तर ते चोरयेक १० वर्सांची खर ख्यास्त जावपाक शकता वा मरसर बंदखणींत रावपाची ख्यास्त जावपाक शकता.

- कों. वि. सं. मं.

**चोल राजवंश:** दक्षिण भारतांतलो एक पोरनो नामनेचो राजवंश. अशोकाच्या शिलालेखांनी चोलांचो 'स्वतंत्र देश' असो उल्लेख मेळटा. तेउपरांत इ.स. चे सुर्वेक करिकाल चोल नांवाचो पराक्रमी राजा जावन गेलो. ताणें पांड्य आनी चेर राजांचेर जैत मेळोवन बरोच वाठार आपले सत्तेखाला हाडिल्लो. शेतवडीच्या मळार आपल्या राज्यांत ताणें बरोच वावर केल्लो.

करिकाला उपरांत चोलांचें दक्षिण भारतांतलें म्हत्व उणें जालें. ह्या काळांत ते पल्लव, चालुक्य आनी राष्ट्रकुट हांचे मांडलिक जाले. णवव्या शेंकड्यांत ह्या राजवंशाक पर्थून बरे दीस आयले. चोल घराण्याक नामना मेळोवन दिवपाचो वावर विजयालय हाणें केलो. इ.स. ८५० त तो सत्तेर आयलो. तो चोलांची पोरनी राजधानी उरैयूर हांगा पल्लवांचो मांडलिक म्हूण राज्य करतालो. पल्लव आनी पांड्य हांच्यामदल्या झगड्यांचो लाव घेवन ताणें तंजावराचेर जैत मेळयलें आनी थंय आपले नवे राजधानीची थापणूक केली. विजयालयाचो पयलो पूत आदित्य हो इ.स. ८७१ त सत्तेर आयलो. पल्लव-पांड्य झुजांत ताणें पयलीं पल्लवांक पालव दिवन पांड्यांचो पराभव केलो आनी मागीर पल्लवांच्या दुबळेपणाचो फायदो घेवन तांचेरुय जैत मेळयलें. आदित्या उपरांत ताचो पूत परांतक राजा जालो. ताणें पुराय दक्षिण भारताचेर चोलांचो शेक पातळायलो. ताचे कारकिर्दीच्या शेवटाक राष्ट्रकुट राजा तिसरो कृष्ण हाणें ताचो पराभव केलो.

परांतका उपरांत चोल घराण्याचो ३२ वर्सांचो इतिहास चडसो स्पश्ट ना. इ.स. ९८५ त राजराज हो चोलवंशीय राजा सत्तेर आयलो. चोल घराण्यांतलो हो एक बरोच म्हत्वाचो राजा. राजराजान चेर आनी पांड्य राजांचेर जैत मेळोवन मालदीव जुंवो आनी श्रीलंकेच्या उत्तर वाठारामेरेन आपलो शेक पातळायलो. वेंगीच्या राजगादयेर आपलो बरो मागतो, शक्तिवर्मा हाका बसोवन थंय ताणें आपली सत्ता हाडली. चोल

साम्राज्याची बुन्याद खऱ्या अर्थान राजराजान घाली. ताचो पूत राजेंद्र होय बापायभशेन पराक्रमी आशिल्लो. ताणें उत्तरेवटेन गंगा न्हंय मेरेन आपली सत्ता पातळायली. कलिंग, दक्षिण कोसल, बंगाल ह्या वाठारांचेर ताणें जैत मेळयलें. हे घुरयेउपरांत ताणें स्वताक गंगैकोंड ही पदवी लावन घेतली. हाच्याय परस ताचो व्हडलो पराक्रम म्हळ्यार जावा, सुमात्रा, मलाया ह्या जुंव्यांचेर आपल्या आरमाराच्या बळार ताणें पावल दवरलें आनी थंयचें शैलेंद्र साम्राज्य भूंयभरवण केलें. ताचें साम्राज्य उत्तरेवटेन गंगेसावन दक्षिणेंत श्रीलंकेमेरेन आनी उदेंतेक मलायामेरेन पातळिल्लें.

१०४४ ताका मरण आयल्या उपरांत ताचो पूत राजाधिराज राजा जालो. ताचे कारकिर्दींत पांड्य, चेर आनी सिलोन राजांनी बंड केलें, पूण ताणें तें पुरायपणान मोडलें. चालुक्य राजा पयलो सोमेश्वर हाच्या वांगडा १०५३-५४ जाल्ल्या कोप्पम हांगाच्या झुजांत ताका मरण आयलें. ताचो भाव दुसरो राजेंद्र हाणें सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेवन चालुक्यांचेर जैत मेळयलें.

ताचेउपरांत चालुक्य आनी चोल हांचेमजगतीं बरींच झगडीं जालीं. चोल राजा वीरराजेंद्र ह्या दुसऱ्या राजेंद्राच्या भावान चालुक्य राजा विक्रमादित्य हाच्यावांगडा आपले चलयेचें लग्न लायलें आनी दोन घराण्यांमदले संबंद सुदारपाचो यत्न केलो. ताच्या फाटल्यान ताचो पूत अधिराजेंद्र सत्तेर आयलो; पूण कुलोत्तुंग ह्या चोल घराण्याच्याच दुसऱ्या एका फांट्याच्या पराक्रमी मनशान ताका सत्तेवयल्यान कुशीक काडपाचे यत्न केले. विक्रमादित्य ह्या चालुक्य राजान आपल्या मेवण्याक पालव दिवन कुलोत्तुगांचो पराभव करपाचो यत्न केलो, पूण कुलोत्तुंगान आपल्या बळग्याच्या नेटार १०७० त चोल राज्यसत्ता बळकायली. कुलोत्तुगांन आपल्या कर्तुपाच्या नेटार बरींच जैतां मेळयलीं. ताचे कारकिर्दीच्या शेवटाक हेर दक्षिण भारतांतल्या राजांनी मात ताका हरयलो.

कुलोत्तुंगाफाटल्यान चोल राजवंशांत चडश्यो राजकी घडामोडी जाल्यो नात. तांची सत्ता ल्हवल्हव दुबळी जाली. बाण, काडव ह्या तांच्या मांडलिकांनी चोल सत्तेआड झगडून स्वतंत्रताय मेळयली. होयसळ, उदेंतेवटेनचे गंग, काकतीय, पांड्य हेसारके राजा बळिश्ट जावंक लागले. पांड्य राजा सुंदर पांड्य हाणें शेवटाक निमाणो चोल राजा राजेंद्र (१२४६-७९) हाका आपलो मांडलिक केलो. उपरांत १३१० त अलाउद्दीनाचो सेनापती मलिक काफूर हाणें दक्षिणेंतल्या हेर कांय राज्यांवांगडा चोल राज्य नश्ट केलें.

चोल राजांनी विंगड विंगड कलांक, धर्मांक आनी विद्येक आलाशिरो दिलो. तांणी सोबीत आनी व्हड देवळां बांदलीं. तंजावर हांगाचें राजराजेश्वर (सद्या बृहदीश्वर) हें देवूळ राजराज ह्या राजान बांदून घेतिल्लें. तें देवूळ आनी गंगैकोंडचोळेश्वर हीं देवळां तांचे खाशेले शिल्पकलेक आनी बांदावळीक लागून नामनेक पावलीं. ह्या देवळांनी काडिल्ले चित्रकलेची जाणकारांनी बरीच तुस्त केल्या.

चोल काळांत धातूंच्यो बऱ्योच तरेकवार, सोबीत मुर्ती तयार जाल्यो. तातूंत नटराजशिवाची मूर्त नामनेची आसा. ब्रह्मा, सप्तमातृका, विष्णूचे अवतार, भूदेवी हांच्यो मूर्ती चोल कलाकारांचे बुदवंतकायेची गवाय दितात.

चोल राजा शिवभक्त आशिल्ले. तांच्या काळांत रामानुजाचार्यान आपलें तत्त्वगिन्यान पातळावपाचो वावर केल्लो. अखेरेक रामानुजाचो निमाणो चोल राज्यांत छळ जाल्ल्यान ताका तें राज्य सोडून वचचें पडलें, अशें कांय इतिहासकारांचें मत आसा.

चोल काळांत बऱ्याच ग्रंथांची बरपावळ जाली. केशवस्वामीचो 'नानार्थार्विसंक्षेप' हो संस्कृत ग्रंथ कुलोत्तंगाचो पूत राजराज हाच्या दरबाराच्या आलाशिऱ्यान बरयल्लो. ताणें तामीळ साहित्याक बरीच उर्बा दिली. 'जीवकचिन्तामणी', 'कलिंगतुप्परणि', 'तक्कथागप्परणि' हीं नामनेचीं तमिळ काव्यां चोल काळांत बरयल्लीं. *कंबन (*)* कवीचें रामायण चोल काळांत बरयल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

## चोळी (कंचुकी)

**चोळी (कंचुकी) :** बायलो वा चलयो आपले कुडीच्या कमरावेलो भाग, खास करून छाती धांपपाखातीर जो खाशेलो भेस आंगाक घालतात, ताका चोळी वा कंचुकी अशें म्हण्टात.

ऋग्वेदांत (२.३२.४) आयिल्ल्या उल्लेखावेल्यान वेदकाळार शिवणकला अस्तित्वांत आसली हें स्पश्ट जाता. शिवणकलेचो उपेग सगळ्यांत पयलीं चोळई वा कंचुकी घडोवपाक केलो, अशें मानतात.

बुध्दाच्या काळार बौध्द आनी जैन भिक्षुणी कंचुकीचो उपेग करताल्यो अशे उल्लेख आयल्यात. हारिती ही बौध्द देवताय लांब हाताचो ब्लाउज घाल्ली एके कडेन दिश्टी पडटा. मध्य आशियांतल्यान येवन उत्तर भारतांतल्या सपाट वाठारांत आपली सत्ता स्थापपी शक आनी कुशाण लोकांच्या बायलांमदीं ब्लाउज आनी जॅकेट घालपाची पध्दत आसली. ही पध्दत फुडें भारतीय बायलांनी आपणायली, अशें दिसता. मथुरा आनी गांधार शिल्पांनी चोळयो घाल्ल्यो बायलो दिश्टी पडटात. वायव्य प्रांतांतल्या गांधार शिल्पांतल्या बायलांच्यो मुर्ती ब्लाउज आनी जॅकेट घाल्ल्यो दिसतात. शकांच्या एका नाण्याचेर कमळाचेर उबे आशिल्ले लक्ष्मीचें चित्र आसून तिच्या आंगांत ब्लाउज आसा. समुद्रगुप्ताच्या काळावयलीं जीं नाणीं मेळ्ळ्यांत, तांचेर लक्ष्मीचें चित्र कंचुकीसयत आसा. कालिदासाच्या शाकुंतलांत कंचुकीच्या तोंकांक खांद्यार गांठ मारपाचो उल्लेख आयला (१.१९); पूण ताचेवेल्यान कंचुकीची घडण कशी आसली, हाचो बोध जायना.

पोरन्या काळांतले कंचुकीक दोन अशीर हात आसताले. पूण बटण नासताले. बायलो स्वताच आपल्यो चोळयो शिंवताल्यो. चोळयो आंगांत घालतकच दोनूय थानांच्या खाला, मदीं चोळयेच्या दोनूय तोंकांक गांठ मारून त्यो सारक्यो बसयताले.

ब्लाउज हो चोळी वा कंचुकीच्या पंगडांतलो एक खास प्रकार जावन आसा. ब्लाउज हो कंचुकीपरस मातसो सदळ आसता आनी ताका बटण आसतात. कमरे लागसार आशिल्ल्या पट्ट्यान ब्लाउज तंग बसतलो अशी वेवस्था केल्ली आसता. कमरेच्या वयलो भाग धांपपाक ब्लाउज वापरतात. जॅकेट हें दुसऱ्या कपड्याचेर घालपाचें आसता. ताची उंचाय कमरेमेरेन आसता.

सद्याक कंचुकीचे वा चोळयेचे विंगड विंगड आकार आनी प्रकार दिश्टी पडटात. तातूंत कांय चोळयांचे बटण वा बंद फुडल्या भागांत आसतात, तर कांय जाणाचे फाटल्या भागांत (फाटीर) आसतात. पयलींच्या काळांत विधवा बायलो चोळयो घालीनासल्यो. पूण हालीं त्यो घालतात. सवायशीण बायलेन बऱ्या कार्यावेळार आनी धर्मकृत्यांत चोळी घालची, असो नेम आसा.

पयलींच्या काळांत चोळी वा कंचुकी घालताले, तेन्ना तिचेभितर आनीक कसलेंच अंतर्वस्त्र घालीनासले. हालींच्या काळार चोळी पंगडांतलो ब्लाउज घालतात, तेन्ना ताचे भितर 'ब्रेसीयर' (bracier) हें अंतवस्त्र सर्रास घालप जाता. कांय जमातींत मात ब्रेसीयर हें अंतर्वस्त्र ब्लाउजा भितर घालीनात.

- कों. वि. सं. मं.

## चौ एन-लाय

**चौ एन-लायः** (जल्मः ? १८९८, वाइआन- जिआंग सू; मरणः ८ जानेवारी १९७६).

चीन प्रजासत्ताकाचो पयलो पंतप्रधान. एका गिरेस्त घराब्यांत ताचो जल्म जालो. भुरगेपणातूच आवय-बापूय भायर पडिल्ल्यान ताच्या बापोलयान ताचो सांबाळ केलो. ताचें मुळावें शिकप मुकडेन हांगा जालें. चवदाव्या वर्सा तिनत्सिन हांगाच्या नानकाई मिडल स्कुलांत ताणें प्रवेश घेतलो. विद्यार्थी आसतना चिनी बंडखोरांच्या कथांचो परिणाम जाल्ल्यान ताचो स्वभाव बंडखोर जालो. १९११-१२ त चीनांत जी राज्यक्रांती जाली, त्या क्रांतिकारक वातावरणाचो ताच्या मनाचेर बरोच परिणाम जालो.

१९१७ त फुडलें शिक्षण पुराय करपाखातीर तो टोकिओ हांगाच्या वासेडा विद्यापीठांत गेलो. १८ म्हयन्यांच्या थंयच्या राबित्यांत ताणें जायत्या चिनी क्रांतिकारक तरणाट्यांकडेन वळख केली. थंयसावन तो परत तिन्‌त्सिन हांगाच्या नानकाई विद्यापीठांत आयलो. विद्यार्थ्यांनी केल्या १९१९ चे चळवळींत वांटो घेतिल्ल्यान ताका बंदखणींत वचचें पडलें. ह्याच काळांत तेंग चिंग-चाओ हे चलयेलागीं तांची वळख जाली आनी फुडें १९२५ त तांचें लग्न जालें. ताची घरकान्न लेगीत चळवळींत वांटो घेवन ताका सहकार्य करताली. तांकां भुरगेंबाळ नाशिल्लें. ह्याच काळांत चौ हाणें 'अवेकनिंग सोसायटी' ह्या नांवाची विद्यार्थ्यांची संस्था काडली. ताणें मार्क्सचो 'कम्युनिस्ट मॅनिफेस्टो', काउट्स्कीचे 'क्लास स्ट्रगल', 'ऑक्टोबर रेव्होल्यूशन' ह्या ग्रंथांचो अभ्यास केलो. ताका फ्रेंच, इंग्लीश आनी रशियन ह्योय भाशा येतााल्यो.

सन-यत्-सेन हाचे चळवळींत १९२४ त ताणें वांटो घेतलो. कोमिंतांगच्या फुडारपणाखाल ताणें उत्तर चीनांत चळवळ केली. त्या वेळा चँग कै-शेक हाणें व्हांपोआ हांगा चलयल्ल्या नामनेच्या लश्करी विद्यापीठाचो तो राजकी सल्लागार आशिल्लो. फुडें कोमिंतांग आनी कम्युनिस्ट पक्ष हांचेभितर मतभेद जाल्ल्यान चौ भूमिगत जालो. चौ हाचें आनी चँग कै-शेक हांचेंय फिस्कटलें. चँग कै-शेक हाणें ८० हजार डॉलरचें इनाम जाहीर करून ताका धरपाचो यत्न केलो, पूण ताच्या यत्नांक यश आयलें ना.

माओ-त्से-तुंग हाणें समाजवादी राज्याची थापणूक केली, त्या वेळा चौ एन-लाय तांकां वचून मेळ्ळो आनी ताणें तें राज्य ९,६०० किमी. मेरेन पातळायलें. त्या वेळा जाल्ले व्हड यात्रेंत (Long March) ताणें वांटो घेतलो (१९३४). संघटनचातुर्य, लश्करी डावपेच ह्या ताच्या गुणांचो माओक आनी कम्युनिस्ट पक्षाक सदांच उपेग जालो. देखून चीनांत १९४९ त स्थापन जाल्ल्या साम्यवादी शासनाचो तो पयलो पंतप्रधान आनी परराश्ट्रमंत्री जालो.

जिनीव्हा (१९५४) आनी बांडुंग (१९५५) ह्या परिशदांत ताणें कम्युनिस्ट चीनचें प्रतिनिधीत्व केलें. तेचपरी भारतभेट आनी भारत-चीन सीमा संघर्श आनी रशिया-चीन वैचारिक संघर्श ह्या वेळावयलो ताचो वावर नदरेंत भरसाखो आसा. १९५८ त ताणें परराश्ट्रखातें सोडून दिलें. तरी पूण संवसारीक राजकारणाच्या संदर्भांत चीनचो मुखेल म्हणियार तोच आशिल्लो. १९६१ त मॉस्को हांगा जाल्ल्या बाविसाव्या कम्युनिस्ट अधिवेशनांत 'अस्तंत साम्राज्यशाये वांगडा शांततायेचें सहजिवीत' ह्या तत्त्वावयल्यान सोव्हिएत फुडाऱ्यांकडेन ताचे मतभेद जाले. तेन्नासावन चीन-रशिया इश्टागतीचे संबंद पयसावले. चीनांत माओ-त्से-तुंगच्या फाटोफाट चौ एन-लाय हाची सुवात आशिल्ली. साम्यवादी पक्षांतल्या ताच्या वावराक लागून ताका 'जनरल' हो भोवमानाचो किताब फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**चौगुले, विश्वासराव:** (जल्म: २४ ऑगस्ट १९१५, हळदी-कोल्हापूर).

एक नामनेचो उद्येगपती आनी गोंयचो एक यशस्वी खणमालक. ताचो जल्म एका मध्यमवर्गीय कुटुंबांत जालो. ताचें मुळावें शिक्षण मिशन हायस्कुलांत जालें. बेळगांवच्या बेनन स्मिथ हायस्कुलांतल्यान तो मॅट्रिकची परीक्षा पास जालो. उपरांत धारवाडच्या कर्नाटक कॉलेजांत ताणें प्रवेश घेतलो. घरच्या अर्थीक अडचणींखातीर ताका महाविद्यालयीन शिक्षण अर्दार सोडचें पडलें.

फुडें मुरगांवची 'लायोनेल एडवर्डस अँड कंपनी' हातूंत ताणें कारकून म्हूण नोकरी धरली. हे कंपनीत ताणें फकत ६ म्हयने काम केलें आनी शिपिंग तशेंच निर्यात वेवसायाचो बरोच अणभव घेतलो. उपरांत ताणें 'क्लिअरींग आनी फॉर्वडींग' वेव्हारांत प्रवेश करपाचो निर्णय घेतलो आनी तो मुरगांव एजंटस्च्या फर्मांत गेलो. ह्या वेवसायांत ताणें बरेच कश्ट घेतले. 'चौगुले ब्रदर्स' ह्या नांवान सुरू जाल्ल्या ताच्या कुटुंबाच्या उद्येगांत तो सामील जालो. ह्या उद्येगांत मालाची चड-उतार करप, जहाज उद्येगाची एजन्सी, पी. अँड आय क्लब्स, आयात-निर्यात हांचो आस्पाव आशिल्लो. १९३९ त, दुसरें संवसारीक म्हाझूज सुरू जालें तेन्ना मुरगांव बंदर हें झुजकाळांतले सामुग्रीची निर्यात करपी एक म्हत्वाचें ठिकाण जालें. साग, कोंडे, खोबरेल आनी हेर जिनसांच्या निर्यातीचेर विश्वासरावान बरेच फायदो केलो. लिश्बोअ सावन ताणें जायतो माल खरेदी करून वेगवेगळ्या देशांनी धाडलो.

१५ ऑगस्ट १९४७ दिसा भारताक स्वतंत्रताय मेळ्ळी. १९४७ त चौगुले कंपनीन १,५०० टन मँगनीज खनीज चेकोस्लोव्हाकीयाक निर्यात केलें आनी १९५० त ९,००० टन लोखण खनीज जपानाक धाडलें. आपले हुशार बुद्धिमत्तेच्या बळार ताणें जपानी पोलाद कारखान्याकडे यशस्वी वाटाघाटी केल्यो. ताच्या रूपान गोंयांतल्या लोखणा खनिजाखातीर ताणें खरेदीदरो मेळयल्यो. ताच्या ह्या यशाक लागून गोंयच्या खण उद्येगाक चालना मेळ्ळी. ह्याच काळांत विश्वासरावान जपानी तिख्या कारखान्याकडल्यान अर्थीक पालव घेवन मुरगांव हांगा यंत्रीक खनिज हाताळणी प्लँट उबारपाचो मोलादीक वावर केलो. उदेंतेकडल्या जगांतलो हो पयलोच उपक्रम आशिल्लो. विश्वासरावाच्या ह्या अर्थशास्त्रीय अभ्यासांतल्यान, खणीवेल्यान लागसारचे न्हंयेमेरेन आनी थंयसावन फुडें यांत्रिकी बार्जींवरवीं लोखण खनिजाची येरादारी करपाची कल्पना फुडें आयली. ताका लागून बार्ज उद्येगाच्या वेवसायाकूय बरीच चालना मेळ्ळी.



१९६१ त गोंय मुक्तीउपरांत ताणें नवे उमेदीन विंगड विंगड उद्येगांत लक्ष घालें. चौगुले स्टीम-शीप, मांडवी पॅलेट्स, कोंकण फिशरीज, कर्नाटक एक्स्लोझीवस्, आर्लेम ब्रीवरीज, चौगुले शिपयार्ड, नर्मदा सिमेंट आदी जायते विंगड विंगड प्रकल्प विश्वासरावान सुरू केले. चौगुले उद्येग-समूह आज गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक, गुजरात, तमिळनाडू, ओरिसा आदी राज्यांत पातळ्ळा.

लोखण धातुक उद्येग मळावेलो भारतांतलो पयलो आनी संवसारांतलो तिसरो, येदे व्हड तांकीचो पॅलेटायझेशन प्लँट विश्वासरावान शिरोडा हांगा उबारलो. पूण दुर्देवान १९७० च्या तेल उणावाचो ह्या उपक्रमाचे अर्थीक वेवस्थेचेर परिणाम जालो आनी हो उपक्रम बंद जालो.

१९७६ त, संपत्ती करावविशींच्या म्हायतीच्या आदारान भारत सरकारान विश्वासरावाची भारतांतली सगळ्यांत गिरेस्त व्यक्ती म्हूण घोशणा केली.

'गोवा चेंबर ऑफ कॉमर्स आनी इंडस्ट्रीज' ह्या वेपारी आनी उद्येजकांच्या संघटनेचो विश्वासराव सेगीत ४ वर्सां अध्यक्ष आशिल्लो. आपले कारकिर्दींत ताणें चेंबरच्या वावराक नवी दिका दिली. 'ऑल इंडिया शिपिंग कौन्सिल' चो अध्यक्ष ह्या नात्यान ताणें म्हत्वाचो वावर केला.

ताणें स्थापन केल्ल्यो कांय समाज उपेगाच्यो संस्था अश्यो: पार्वतीबाई चौगुले महाविद्यालय- मडगांव, सेंट जोजेफ्स इन्स्टिट्यूट-वास्को, चौगुले

हॉस्पिटल. २६ जानेवारी १९६२ दिसा विश्वासरावान 'गोमंतक' हें गोंयचें सगळ्यांत चड खपाचें मराठी दिसाळें सुरू केलें.

शिरगांव मीनाखणीचें यांत्रिकीकरण केल्यान विश्वासरावाक १९५३ वर्सा पोर्तुगाल सरकारान सरदारकेचें मानाचें पद भेटयलें. १९५९ त, ताच्या खणउद्देगांतल्या वावराक लागून पर्थून एकदां पोर्तुगाल सरकारान ताका 'कमांडर' हो भोवमान भेटयलो. गोंय मुक्तीच्या रुप्या सुवाळ्यावेळार गोंय सरकारावरवीं माजी राष्ट्रपती ग्यानी झैलसिंग हांचे हस्तुकीं विश्वासरावाचो भोवमान केलो. २५ ऑगस्ट १९ १ दिसा विश्वासरावाचो अमृतमहोत्सव व्हडा दबाज्यान मनयलो.

आयज लेगीत जाण्टे पिरायेचेर नवीं मेळां काबीज करपाची जिद्द आनी हावेस ताच्यांत दिसून येता.

- कों. वि. सं. मं.

**चौगुलो:** एक ग्रामाधिकारी. चौगुलो हो गांवच्या पाटलाचो सहाय्यक आसता आनी गांवच्या पाटलासकल ताका मान आसता. चौगुलो हें उतर चौघुला, चवघला ह्या विंगड विंगड रुपांनी चलणुकेंत घोळटा. चौगुलो वा चौगुला ह्या उतरांचें मूळ रुप चौकुला अशें आसूंये. काळांतरान क चें घ, वा ग जावन चौगुलो वा चौघुलो हें उतर घडलें, अशें मानतात.

चौगुलो हो कुणबी (मराठी) जातींतलो आसता. चौधऱ्यावरीच चौगुल्याकडेन गांवच्या धान्याची खरेदी-विक्री करप वा धान्य सांबाळून दवरपाची जापसालदारकी आसता. धान्य चोरयेक गेल्यार ते चोरयेचो तपास लावपाचें कामूय चौगुल्यांक करचें पडटा. चौगुलो जे जातींतलो आसता, ते जातींत ताका 'मुखेली' मानतात आनी 'जातचौगुलो' ह्या नांवान वळखतात.

चौगुलो हो गांवचो बलुतेदार आसना. कोंकणांत चौगुलो आडनांव आशिल्ले लोक आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**चौघुडो:** चार घडे (वाद्यां) आशिल्लें मंगल वादन. कांयकडेन चारांपरस उणे घडे आसतात; खास करून गोंयांत दोनूच घडे आसुनूय हाका 'चौघुडो' म्हणपाफाटलें कारण म्हळ्यार ताचें दिसांतल्यान चार वेळा (घडयांक) वादन जाता आशिल्ल्यान ताका 'चौघुडो' हें नांव पडलें आसूंये.

चौघुडो हो वादनप्रकार गोंयांतल्या चडशा देवळांनी प्रचलित आसा. गोंयांत दरेक देवळाच्या प्रवेशद्वारावयर ह्या चौघुड्याखातीर मुद्दम 'शेजो' तयार केल्लो आसता. असो उंचार बसून वाजयल्ल्यान, ह्या वाजपाचे सूर देवळा भोंवतणच्या वाठारांत पयस मेरेन आयकूंक येवपाची वेवस्था आपसुकूच जाता.

गोंयांत घड्यांक 'धिली' म्हण्टात; त्यो आकारान ल्हान-व्हड आसतात. ह्यो दोन धिली वाजोवपाची पध्दत मात्शी वेगळी आसता. ह्या वाद्यांचीं तोंडां एकामेकांकडेन आसतात. उजव्या हातान दावे वटेनचें वाद्य आनी दाव्या हातान उजवे वटेनचें वाद्य वाजयतात. ह्या धिलींचे जोडयेक चौघुड्यांत शेनाय, सूर्त आनी कासाळें हीं वाद्यां आसतात. ह्या चारूय वाद्यांच्या सांगातांत कान तृप्त करपी आनी देवळाच्या वाठाराक फाव अशें मंगलमय वातावरण तयार जाता.

ज्या देवळांनी चौघुडो वाजोवपाची वेवस्था आसा, थंय तो फांतोडेर, दनपरां, तिळसांजच्या वेळार आनी रातचो वाजयतात. ह्या वाजपावेल्यान आदल्या काळांत लोकांक वेळ कळटालो. पयलींच्या काळांत सर्रासपणान आनी आतां लेगीत कांय कडेन लग्न, मूज असल्या मंगल कार्यावेळार चौघुड्यांत आस्पाविल्ल्या वाद्यांचें वाजप जाता. ताका 'घड्यां वाजप' अशें म्हण्टात.

- डॉ. मलबाराव सरदेसाय

**चौधरी:** बारा बलुतेदारांतलो एक. गांवगाडाकार, आत्रे हाच्या मतान चौधरी ह्या शब्दाचो अर्थ चार-चौगांक सांबाळून दवरपी असो आसा. ताचें मुखेल काम म्हळ्यार बाजार भावांत समतोल राखून लोकांक फाव त्या दरान धान्य पुरवठो करप. मुसलमानी अमदानींत आनी निजाम राज्यांत तो सरकाराक आनी सैन्याक धान्य पावयतालो. मराठ्यांच्या काळांत मात ही चाल नाशिल्ली.

गांवांत आशिल्ल्या धान्याची नोंद ताका सदांच सरकारान दिवची पडटाली आनी ताचेच नदरेखाल गांवांतल्या धान्याची आयात-निर्यात जाताली. धान्याच्या मोलाचेरूय ताचें नियंत्रण आसतालें. एकाद्र्या वेळार धान्य कमी आसल्यार हेर गांवांतल्यान धान्य हाडून ताची सांठवण करपाचें काम ताकाच करचें पडटालें. जर चौधरीपणाचो हक्क ताका सरकारावरवीं मेळिल्लो आसत जाल्यार ताणें सरकाराक थारावीक कर दिवचो पडटालो.

- कों. वि. सं. मं.

**चौधरी, जनरल जयंतनाथ:** (जल्मः १० जून १९०८, कलकत्ता).

भारताचो माजी भूंयसेनामुखेली. ताचें शिकप कलकत्ता तशेंच लंडन हांगा जालें. ताणें सँडहर्स्ट (इंग्लंड) हांगा लश्करी शिकप घेतलें. १९२८ त लश्करांत कमिशन; मागीर नॉर्थ स्टॅफर्डशर रेजिमेंटचे पयले पलटणींत लश्करी अणभव घेतकच तो भारतीय सातव्या घोडदळांत (seventh Cavalry) कामाचेर रुजू जालो. १९४० त केट्टा हांगाच्या स्टाफ कॉलेजांत ताणें उच्च लश्करी शिकप केलें.

ऑगस्ट १९४४ त सोळाव्या घोडदळाचो तो मुखेल अधिपती जालो. जपानाआड जाल्ल्या झुजांत ताणें मोलादीक वावर केलो. रंगूनावयले घुरयेंत लेगीत ताणें वांटो घेतलो तशेंच इंडोचायना आनी जावांतूय लश्करी कामगिरी केली. १९४६ त तो ब्रिगेडियर जालो आनी १९४७ त ताणें इंग्लंडच्या इम्पीरिअल डिफेन्स कॉलेजांत अति उच्च सैनिकी शिकप घेतलें. १९४८ त मेजर जनरल जावन तो पयल्या चिलखती डिव्हिजनाचो जनरल ऑफिसर कमांडिंग जालो. १९४८ त पयल्या चिलखती डिव्हिजनान निजामाआड जाल्ले 'पोलो' मोहिमेंत म्हत्वाचें कार्य केलें. हे पोलीस कारवायेउपरांत तो त्या वेळावयल्या हैदराबाद संस्थानचो लश्करी गव्हर्नर म्हूण नियुक्त जालो. १९५३ त तो सैनिकीय सर्वोच्च कार्यालयांत जनरल स्टाफचो मुखेल जालो. १९५५ त ताका लेफ्टनंट जनरल श्रेणी मेळून एका सैनिकी कोअरचो तो मुखेल सेनापती जालो. १९५८ त चीनाक गेल्ल्या लश्करी शिष्टमंडळाचो फुडारी तशेंच डिसेंबर १९६१ त जाल्ल्या गोंय मुक्तिसंग्रामाचो मुखेल आनी सदर्न कमांडचो जनरल ऑफिसर कमांडिंग मुखेली ह्या नात्यानूय ताणें कार्य केलें. नोव्हेंबर १९६२ चे अखेरेक तो भारतीय लश्कराचो सेनाध्यक्ष जालो. १९६५ त पाकिस्तानान भारताआड केल्ल्या झुजांत चौधरी हाच्या मुखेलपणाखाल हिंदी सेनेन यश मेळयलें.

१९६६ त निवृत्त जातकच तो कॅनडांत भारतीय हायकमिशनर आशिल्लो. कॅनडांतल्या मॅक्‌गिल विद्यापीठांत सैनिकी इतिहासाचो अभ्यागत प्राध्यापक म्हूण ताणें काम केलां. 'इंडियन एक्सप्रेस' ह्या इंग्लीश दिसाळ्याचेर सैनिकी प्रतिनिधी म्हूण तो नेमान बरयता. ताची 'ऑपरेशन पोलो', 'आर्म्स', 'एम्स अँड ॲस्पेक्ट्स' (१९६६) हीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

दुसऱ्या म्हाझुजांत पांचव्या भारतीय डिव्हिजनांतल्यान आफ्रिकेंतल्या झुजांत ताणें वांटो घेतिल्लो. हातूंत ताणें केल्ल्या मोलादीक वावराखातीर 'ऑर्डर ऑफ ब्रिटीश एम्पायर' हो भोवमान ताका फाव जालो. ईजिप्तचो आदलो राष्ट्राध्यक्ष नासर हाणें ताका 'ग्रँड कॉर्डन ऑफ द ऑर्डर ऑफ मेरिट', भारत शासनान 'पद्मविभूषण' आनी नेपाळच्या राजान 'जनरल' म्हूण ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**चौधरी, त्रिदिब कुमार:** (जल्मः डिसेंबर १९११, ढाका).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव गणेश गोविंद चौधरी. क्रांतिकारी समाजवादी पक्षाचो (Revolutionary Socialist Party) तो

वांगडी आसलो. ८ जुलय १९५५ दिसा के. आर. जेधे हाच्या यजमानपणाखाला पुण्यांत जाल्ल्या 'ऑल पार्टीस गोवा लिबरेशन एड कमिटी' (All Parties Goa Liberation Aid Committee) ह्या राजकी अधिवेशनांत ताणें वांटो घेतिल्लो. ह्या अधिवेशनांत सुमार तीन हजार सत्याग्रहींनी वांटो घेतिल्लो. १० जुलय १९५५ दिसा बावन्न सत्याग्रहींच्या पंगडाक मार्गदर्शन करीत वाळपय वाठारांतल्या शिरसोडेची शीम हुपता आसतना ताका धरलो आनी सत्तरी तालुक्यांतले खातो बंदखणीत दवरलो. प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार (Territorial Military Tribunal) चवकशे उपरांत ताका धा वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फाव जाली आनी दर दिसा शंबर इस्कूद ह्या प्रमाण दोन वर्सां दंड भरचो पडलो. २ फेब्रुवारी १९५७ दिसा सगळ्या कैद्यांक सूट दिली. तेन्ना आग्वाद बंदखणींतल्यान ताचीय सुटका जाली. आपल्यो सगळ्यो यादी ताणें 'सालाजारेर जेले उनीस मास' हे पुस्तिकेंत बंगाली भाशेंत बरयल्यात. सुर्वेक कलकत्त्याक तो आमदार म्हूण वेंचून आयलो. उपरांत १९५२-८४ ह्या काळांत तो खासदार आशिल्लो. १८ जून १९८५ दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**चौधरी, बहिणाबाईः** (जल्मः ? १८८०, असोदे-जळगांव; मरणः ३ डिसेंबर १९५१, जळगांव).

मराठी कवयित्री. महाराष्ट्रांतलो नामनेचो कवी सोपानदेव चौधरी हाची आवय. तिका वाचूक-बरोवंक येना आशिल्लें. बहिणाबाईक काव्यप्रतिभेची तांक भुरगेपणासावन आशिल्ली. सबंद जिवितभर शेतकाम आनी घरकाम करीत आसतना बहिणाबाई व्हडा उमेदीन होंवयो रचताली आनी गायताली. सोपानदेव चौधरी आनी ताचो एक सोयरो हांणी त्याच वेळार त्यो थंयच्या थंयच बरोवन काडल्यो.

बहिणाबाईच्या मरणाउपरांत आचार्य अत्रे हाणें तिच्यो कविता उजवाडावपाक फुडाकार घेतलो. 'बहिणाबाईची गाणी' हें पुस्तक १९५२ त (दुसरी आवृत्ती, १९६९) उजवाडाक आयलें आनी 'धरत्रीच्या आरशामदी सरग' (धर्तरेच्या हारशांत स्वर्ग) पळोवपी हे कवयित्रीक सबंद महाराष्ट्रांत नामना मेळ्ळी. ह्या कवितांझेल्यांत बहिणाबाईच्यो फकत ३५ कविता आसात; पूण कवितेची कसलीच जाणविकाय मनांत दवरीनासतना सहज म्हूण रचिल्ल्यो बहिणाबाईच्यो कितल्योश्योच कविता त्याच वेळा बरोवन काडल्योना, म्हूण तिचे फाटल्यान नश्ट जाल्यो.

बहिणाबाईच्यो कविता तिचे आवयभाशेंत म्हळ्यार वऱ्हाडी-खानदेशींत रचिल्ल्यो आसात. कुळार, संवसार, शेतकामाचीं साधनां, कापणी, मळणी आनी शेतकाराचे जिणेंतले हेर विंगड विंगड प्रसंग, अक्षय्य तृतीया, पोळो, संवसार पाडवो ह्यो सण परबो, कांय वळखीचे मनीस हे तिच्या कवितांचे विशय जावन आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**चौरंगः** भारतीय पध्दतीचें चार खुरांचें चौकोनी लांकडी आसन. भारतांतल्या पारंपारीक लांकडी फर्निचरप्रकारांत चौरंगाक खाशेलें म्हत्व आसा. चतुः + अंग> चउरंग > चौरंग अशी हाची व्युत्पत्ती दितात. चौरंगाक चार कुशी आनी चार खूर आसतात, हे नदरेनूय हो शब्द रुढ जाला आसूं येता. चौरंगाक 'चौकी' अशेंय म्हण्टात.

शिसवी, सागवान, पणस, मॅहॉगनी ह्या लांकडांपसून चौरंग तयार करतात. ताचे खुर मोटवे आनी सुळसुळीत आसतात. चड करून ताचो वयलो भाग आनी चारूय कुशी वेलबुटीदार नक्षीन आनी तरेकवार रंगीत चित्रांनी पितारिल्ल्यो आसतात. पयलींच्या काळांत केन्नाकेन्नाय चौरंगाच्या वयल्या भागाचेर चांदी-पितळेच्यो फुलयो मारताले तर केन्नाय ताचेर तांब्याचीं आनी रुप्याचीं नाणीं ठोकताले. भांगराचो आनी चांदीचो मुलामो दिल्ल्या कलात्मक चौरंगाचो उल्लेख पूर्विल्ल्या साहित्यांत मेळटा. राजसूय यज्ञाच्या वेळा वापरिल्लें चौरंगाभशेन दिसपी आसन भांगराच्यो फुलयो मारिल्लें आसूंक जाय, तर अश्वमेधाच्या वेळा अध्वर्यून भांगराच्या आनी रत्नांच्या चौरंगाभशेन दिसपी आसनाचेर बसचें, अशे उल्लेख वेदांत आयल्यात.

धर्मीक समारंभ, पूजेचे विधी, मंगल कार्यां, जेवण, न्हाण ह्या प्रसंगावेळा चौरंगाचो वापर परंपरेन चलत आयला. मंगळागौर, सत्यनारायण ह्या देवतांची पूजा चौरंगाचेर करतात. लग्नसुवाळ्यांत दोनूय वेणी (नवऱ्याची आवय आनी व्हंकलेची आवय) चौरंगाचेर बसून एकामेकांची होंट भरतात. तशेंच तांकां चौरंगाचेर बसून न्हाणयतात. घरांनी तशेंच देवळांनी धर्मीक ग्रंथांचें वाचन करतना, ते ग्रंथ चौरंगाचेर दवरून वाचपाची पध्दत आसा.

एक पवित्र, मंगल आनी गिरेस्तकाय दाखोवपी आसन हे नदरेन चौरंगाकडेन पळेतात. देखून हेर फर्निचर प्रकारांपरस चौरंगाचें म्हत्व वेगळें तशेंच संस्कृतीक स्वरुपाचें जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**चौहान, सुभद्राकुमारीः** (जल्मः ५ ऑगस्ट १९०५, निहालपूर-अलाहाबाद; मरणः १५ फेब्रुवारी १९४८, जबलपूर).

नामनेची हिंदी कवयित्री. शिकप अलाहाबाद हांगा. महाविद्यालयीन शिकप सोंपतकच नवलपूर हांगाचो नामनेचो वकील ठाकोर लक्ष्मणसिंह हाचेवांगडा तिचें लग्न जालें. तिणें राश्ट्रीय चळवळींत सदांच वांटो घेतलो आनी तिका खूब खेपे बंदखणींत वचचें पडलें. पिरायेच्या पंदराव्या वर्सासावन तिणें कविता रचपाक सुरवात केली. हिंदी साहित्यांत कवयित्री म्हूण तिची नामना आसली, तरी तिणें कथा आनी निबंद लेगीत बरयल्यात.

राश्ट्रभक्ती आनी कुटुंबीक जिणेंतल्या सुखदुख्खांचें प्रसंग तिणें आपल्या काव्यांत भेस बरे चितारल्यात. तिच्या कवितांनी वात्सल्यभाव दिसून येता. राश्ट्रीय भावनेच्या तेजावांगडाच कुटुंबीक भावभावनांची रसाळ गोडीय कवितेंत दिसून येता. भावनाप्रधानता, सपनां पळोवपाचो हावेस, आदर्शाची ओड आनी उदात्तता हे हिंदींतले छायावादी (स्वच्छंदतावादाकडे लागींचे) काव्याचे विशेश तिच्या काव्यांत दिसून येतात. तिची कविता सादी, सोपी आनी रोसाळ आसा. तिचे कथेंत कुटुंबीक जिणेचें बारीक निरीक्षण आनी बायलांचे जिणेविशीं उपाट सहानुभूती आसा. स्वभावाचें खाशेलपण आशिल्लें हळवेपण आनी मायेस्तपण तिच्या बरपांत जाणवता. तिच्या कथांक दोन खेपे 'सेक्सेरिया पुरस्कार' मेळ्ळे. तिचे कविताझेले अशेः 'झांशी की रानी' (१९२६), 'मुकुल' (१९३१) आनी 'त्रिधारा' (१९३५); कथांझेलेः 'बिखरे मोती' (१९३२) 'उन्मादिनी' (१९३४) आनी 'सीधेसाधे चित्र' (१९४७).

- कों. वि. सं. मं.

**च्याः** (मराठी-चहा; हिंदी-चा, चाय; इंग्लीश-टी; लॅटीन-कॅमोलिया सायनेन्सिस; कूळ-थीएसी, पोर्तुगेजः शा).

हे वनस्पतीची लागवड फकत तिच्या पानांखातीर करतात. भारतांतल्या खाजगी उद्येगांत 'च्या' उद्येगाक पयली सुवात आसा. भारताक मेळपी वट्ट परदेशी चलनाच्या पंदरा टक्के चलन 'च्या' उद्येगांतल्यान मेळटा. हे वनस्पतीच्या प्रक्रिया केल्ल्या पानांपसून वा पानांच्या चुऱ्यापसून उत्तेजक पेय तयार करतात. ह्या पेयाकूच 'च्या' हें नांव आसा.

'च्या' ची झोंपां १० ते १७ मी. मेरेन ऊंच वाडटात. पूण ह्या पिकाची दर वर्सा छाटणी करतात, देखून झाडाची उंचाय ०.७ ते १.७ मी. परस चड आसना. 'च्या' च्या झोंपाक खूब पानां आसतात. हीं पानां दाट, चकचकीत, पाचवीचार आसून तीं ५-३० सेंमी. लांब आनी २.५-४ सेंमी. रुंद आसतात. फुलां धवीं आनी वासाचीं आसून तांकां ५-७ पाकळ्यो आसतात. फळ घट्ट आसता आनी तातूंत १-३ बियो आसतात.

'च्या' हो शब्द चिनी भाशेंतल्या 'चा' ह्या शब्दापसून रुढ जाला. चिनी भाशेंतल्यान जपान, भारत, इराण आनी रशिया ह्या देशांत हो

शब्द वा असलेच तरेचे हेर शब्द रुढ जाल्यात. इंग्लीश भाशेंतल्या 'टी' ह्या शब्दाचो उगम चीनांतल्या ॲमॉय प्रांतांतले बोली भाशेंतल्या 'ट' ह्या शब्दांत आसा. सुमार अठराव्या शेंकड्याच्या मध्याक 'टे' ह्या शब्दाचो उच्चार फ्रेंच 'ते' आनी इंग्लीश 'टी' असो जालो.

'च्या' चो उगम चीन देशांत जालो. ते उपरांत सव्या ते आठव्या शेंकड्यांत बौध्द भिक्षुकांनी जपानांत 'च्या' चो प्रसार केलो. तेउपरांत ल्हव ल्हव मध्य आशिया, तशेंच युरोप देशांत 'च्या' चो प्रसार जालो. भारतांत १७७८ त, ब्रिटीश लोकांनी 'च्या' ची लागवड करपाक सुरवात जाली. सगळ्यांत पयलीं आसाम राज्यांत 'च्या'ची लागवड सुरु केली. उपरांत तिचो प्रसार तमिळनाडू, केरळ ह्या राज्यांत जालो. संवसारांतल्या वट्ट २६ देशांत 'च्या'ची लागवड जाता. तातूंतले मोट्या प्रमाणांत 'च्या' ची लावगड करपी देश म्हळ्यारः चीन, जपान, बांगला देश, भारत, श्रीलंका, तैवान, इंडोनेशिया, मलेशिया, उदेंत आफ्रिका, तुर्कस्थान, ब्राझिल, अर्जेंटिना आनी रशिया. भारतांत ह्या पिकाची लागवड आसाम, बंगाल, तमिळनाडू आनी केरळ ह्या राज्यांत मोट्या प्रमाणांत जाता. भारतांत वट्ट ३,५६,५१६ (१९७१) हॅक्टर क्षेत्रांत 'च्या'ची लागवड आसा. गोंयचें हवामान 'च्या' चे लागवडीखातीर अनुकूल नाशिल्ल्यान गोंयांत 'च्या' ची लागवड करीनात.

'च्या' चे कांय प्रकार आसात ते अशेः चिनी, आसामी, मणिपुरी. पूण ह्या प्रकारांची शुध्द बियां मेळप कठीण आसता. ह्या पिकाक वर्सूयभर आर्द्र आनी उबदार हवामान मानवता. २०° से. ते ३२° से. तापमान आनी नेटान व्हांवपी सुकें वारें ह्या पिकाक बरें मानवता. 'च्या' च्या पिकाक खोल, बऱ्या निचऱ्याची आनी आमसाणीची (ph- ५.२, ५.६) जमीन मानवता. 'च्या'ची लागवड बियांपसून तशेंच कलमां लावन लेगीत करतात. 'च्या' ची रोंपां तयार करपाखातीर, गादीवाफ्याचेर १० सेंमी. अंतराचेर, २ सेंमी. खोल बियो पेरतात. देड ते दोन वर्सांनी रोंपांची पुनर्लागण करतात. रोंप लावच्यापयलीं जमीन निवळ करून घेवन सादारण १.५×१.५ मी. अंतराचेर हीं रोंपा लायतात. एका हेक्टराक ५,००० ते ५,५०० रोंपां बसतात. रोंप लावपाखातीर ७०×७०×७० सेंमी. लांब, रुंद आनी खोल फोणकुलां मारतात. ह्या फोणकुलांनी पांच किग्रॅ. कंपोस्ट जावं शेणखत घालून जून म्हयन्यांत रोंपां लायतात. 'च्या' च्या पिकाक नडणेपसून बरेंच त्रास जाता. देखून, ही नडणी वेळच्यावेळार काडची पडटा.

'च्या' च्या पिकाक नत्र साऱ्याची गरज आसता. हें नत्र सारें अमोनियम सल्फेटच्या रुपान दितात. ह्या साऱ्याक लागून जमनीची आमसाण वाडटा. दोन ते तीन वर्सांच्या रोंपयांक हेक्टरी २५ किग्रॅ. नत्र दितात तर चार वर्सांच्या आनी ताच्यावयले पिरायेच्या रोंपयांक हेक्टरी ५० किग्रॅ. नत्र दितात. हाचे परस चड नत्र सारें दिल्यार 'च्या' च्या पांवड्याचेर वायट परिणाम जावं येता. झाडाक अदीक प्रमाणांत खांदयो आनी पानां येवचीं, म्हूण दर वर्सा झाडाची छाटणी करतात. 'च्या' च्यो रोंपयो सुमार तीन वर्सांच्यो जातकच पानां खुटपाक सुरवात करतात. खुटप करतना चड करून कोमरेखांगडा सकयलीं दोन ते तीन पानां खुंटतात. पानांचें खुटप ७-१० दिसांच्या अंतरान करतात.

'च्या' चें सरासरी हेक्टरी उत्पन्न १,७०० ते १,८०० किग्रॅ. इतलें मेळटा. 'च्या' ची वनस्पत सादारण ४० वर्सां बरें उत्पन्न दिता. ते उपरांतच्या काळांत उत्पन्न कमी कमी जायत वता. हाका आडवाद म्हळ्यार कांय कडेन १५० वर्सां पिरायेचीं झाडां लेगीत बरें उत्पन्न दितना दिसतात. 'च्या' च्या पानांचें खुटप केल्याउपरांत तीं वेवस्थितपणान जाता तितल्या बेगीन कारखान्यांत व्हरतात. कारखान्यांनी ह्या पानांचेर वेगवेगळ्यो प्रक्रिया करून जायत्या प्रकारची 'च्या' तयार करतात. तातूंतले कांय म्हत्वाचे प्रकार अशेः काळी च्या, पाचवी च्या, उलॉंग च्या, लेप्टेट च्या, इन्स्टन्ट (instant) च्या, वासाची च्या. भारतांतल्या चडशा कारखान्यांनी 'काळी च्या' तयार करतात. भारतांत पाचवी च्या आनी इन्स्टन्ट च्या चें थोड्या प्रमाणांत उत्पादन जाता.

'च्या' च्या पिकाक किडी-रोगापसून बऱ्याच प्रमाणांत त्रास जाता. करपो आनी पानां कुसप हे ह्या पिकाक जावपी दोन म्हत्वाचे रोग जावन आसात. 'करपो' रोगाची लागण जातकच, पयलीं पानांचेर गुलाबी तिबे दिसतात. उपरांत हे तिबे काळे जातात आनी पानाक बुराक पडटात. पानां कुसपी रोगाची लागण जातकच वनस्पतीचीं पानां कुसतात. ह्या दोनूय रोगांचेर नियंत्रण दवरपाक १% बोर्दो मिश्रण ह्या वखदाचो फवारो मारतात. किडींतले 'टी मोस्कीटो' हे किडीचो 'च्या' च्या पिकाक बरेंच त्रास जाता. हे किडीची लागण जायत जाल्यार ०.०५ टक्के येन्डोसल्फान ह्या वखदाचो फवारो मारतात.

**उपेगः** 'च्या' हें कुडीखातीर हितकारक आनी उत्साहवर्धक पेय जावन आसा. थोड्या प्रमाणांत 'च्या' पिल्यार थकवो कमी जाता. 'च्या' पियेतकच मुतूंक साफ जाता, आंतकड्यो बरे तरेन काम करतात. चड प्रमाणांत च्या घेत जाल्यार तातूंतल्या टॅनिन पदार्थाक लागून, अपचन जाता. 'च्या' हें संवसारांतलें सगळ्यांत लोकप्रिय पेय जावन आसा. जगांतले सुमार अर्दे लोक हें पेय घेतात. गोंयांत, हेर भारतांत तशेंच चडशा देशांनी, समाजांतल्या सगळ्या थरांतल्या लोकांच्या घरांत दिसपट्ट्या आहारांत आनी आदरातिथ्यांत 'च्या' क म्हत्वाची सुवात आसा.

संवसारांत 'च्या' चें उत्पादन, खप आनी वापर तशेंच निर्यात करपाविशीं भारताचो पयलो क्रमांक आसा. सबंद संवसारांत वर्साक सुमार १२९.४ कोटी किग्रॅ. 'च्या' चें उत्पादन जाता. १९८६ वर्सा भारतांत ५३५.६९ दशलक्ष किग्रॅ. 'च्या' चें उत्पादन जालें. १९८६-८७ वर्सा, भारतांतल्यान २०३७ लाख किग्रॅ. 'च्या' ची (६१९.२३ कोटी रुपया मोल) निर्यात जाली. रशिया, इंग्लंड, ईजिप्त, इराण, इराक हे देश भारताची 'च्या' व्हड प्रमाणांत आयात करतात. 'च्या' वेपाराची उदरगत घडोवन हाडपाच्या हेतान 'च्या' कायदो (१९५३) हाचेवरवीं १९५४ वर्सा 'भारतीय च्या मंडळ' (Indian Tea Board) घडयलें.

- विश्राम गांवकार

**च्यारी, चंद्रकांत सावळोः** (जल्मः ऑक्टोबर १९३२, करमणें-सांगें).

गोंयचो सुटके झुजारी. सुर्वेक तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो 'गोंय सुटके सैन्य' (Goa Liberation Army) हातूंत गेलो. लोकांक गोंयचे सुटकेचें म्हत्व सांगप, तिरंगी बावटो लावप, भूंयगत कार्यकर्त्यांची रावपाची-जेवपाची वेवस्था करप, तांच्या कार्याक तेंको दिवप असलीं कामां तो करतालो. पोर्तुगेज सैन्याक घेवन काल्यांसावन कुळ्यां वतना रेल्वेचेर हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. नोव्हेंबर १९७६ त ताका धरलो आनी प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार (Territorial Military Tribunal) हाडलो. तेन्ना ताका अठरा म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**छः** देवनागरी लिपींतलें सातवें आनी 'चं वर्गांतलें दुसरें व्यंजन. हाचो उच्चार ताळवेंतल्यान जाता. ह्या वर्णाच्यो चार अवस्था आसात.



'छ' च्या रुपाचो विकासक्रम

पयली अशोकाच्या गिरनार हांगाच्या लेखांत, दुसरी इ.स. पयल्या आनी दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या मथुरा हांगाच्या लेखांत आनी तिसरी इ.स.

इकराव्या शेंकड्यांतल्या मथुरेच्या लेखांत दिसता. ह्या वर्णाची चवथी अवस्था तिसरे अवस्थेपसून जाल्या.

वर्णोध्दारतंत्रांत ह्या वर्णाचें ध्यान अशें सांगलां:

ध्यानमस्याः प्रवक्ष्यामि द्विभुजां तु त्रिलोचनाम्।
पीताम्बरधारां नित्यां वरदां भक्तवत्सलाम्।
एवं ध्यात्वा छकारं तु तन्मंत्रं दशधा जपेत्।

अर्थ- ह्या छकाराचें हांव ध्यान सांगतां. दोन भुजां, तीन दोळे, पीतांबर न्हेशिल्ल्या,- नित्य, वरद आनी भक्तवत्सल अशा छकाराचें ध्यान करून ताच्या मंत्राचो धा वेळा जप करचो.

- कों. वि. सं. मं.

## छत्रे, केरो लक्ष्मण: (जल्मः १८२४, नागांव- कोंकण; मरणः १८८४).

भारतीय गणितशास्त्रज्ञ. ज्योतीश, गणित आनी सृश्टीशास्त्र ह्या तीनूय मळार ताणें मोलाचो वावर केला.

ताणें आपलें शिकप मुंबयच्या एल्फिन्स्टन इन्स्टिट्यूटांत घेतलें. १८४० त थापणूक जाल्लें कुलाब्याचे वेधशाळेंत, दांडयेवेले अंतरिक्ष चमत्कार आनी लोहचुंबक हांच्या निरीक्षणाखातीर ताणें सहाय्यक म्हूण काम केलें. १८५१ त तो पुण्याच्या नॉर्मल स्कुलांत सृश्टीशास्त्र आनी गणित ह्या विशयाचो शिक्षक म्हूण काम करपाक लागलो. कांय काळ ताणें इंजिनिअरींग कॉलेजांतय शिकयलें. १८६५ त पूना कॉलेजांत गणित आनी सृश्टीशास्त्र ह्या विशयांचो प्राध्यापक म्हूण ताणें काम केलें.

'ग्रहसाधनाची कोष्टके' हो ताचो ग्रंथ १८६० त उजवाडाक आयलो. 'पदार्थविज्ञान' आनी 'अंकगणित' हीं दोन पुस्तकांय ताणें बरयल्यांत.

सुर्यावेले दाग, आनी पावस पडप हांच्या परस्पर विशींचीं कांय निरीक्षणां ताणें केल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

## छत्रे, विष्णुपंत मोरोपंत: (जल्मः १८४०, अंकलकोप-तासगांव; मरणः १९०६, इंदूर).

भारतीय सर्कशीचो जनक. भुरगेपणासावन सुकण्यांवांगडा आनी जनावरांवांगडा खेळपाची आवड. फुडें रामदुर्गकर हागेर घोड्यांचे पागेचेर नोकरी केली. मागीर ग्वाल्हेराक बाबासाहेब आपटे हांच्या आलाशिन्याक रावन गायनाचें शिकप केलें. १८७५ त मुंबयत सगळ्यांत पयलीं चेअर्नी विल्सन हाची सर्कस पळेली. तातूंतल्यान प्रेरणा घेवन १८७८ त सांगली हांगा पटवर्धनाच्या पालवान 'छत्रे सर्कस'ची थापणूक केली.

छत्रे हो एक बऱ्यांतलो घोड्यांचो प्रशिक्षक आशिल्लो. ताणें सर्कशींत घोड्यांचीं तरेकवार कामां बसयलीं. १८८४ त ताणें विल्सन सर्कस विकती घेवन कितलेशेच युरोपीय कलाकार नोकरेक दवरले. आपली सर्कस घेवन भारतभर आनी भारताभायर लेगीत भोंवडी करून ताणें नांव आनी दुडू मेळयलो. १९०१ त इंदूरचो राजा शिवाजीराव होळकर हाच्या मस्त्या घोड्याक फकत १६ वरांभितर सर्कशींतल्या घोड्यासारको वोगी करपाचें काम शिकयलें. आपलो धाकटो भाव काशिनाथपंत हाचे सुवादीन सर्कस सोंपोवन निमाणचे दीस ताणें सुखासमाधानांत घालयले.

- कों. वि. सं. मं.

**छायानाट्य:** अर्दपारदर्शक कपड्याच्या जावं कागदाच्या पड्ड्या फाटल्यान उजवाडाचो खर झोत घालून ताचेर खामसुत्री बावल्यांच्या सावळ्यांचो जो खेळ सादर करतात ताका 'छायानाट्य' अशें म्हण्टात. खामसुत्री बावल्यांसारकोच हो प्रकार पूर्विल्ल्या काळासावन चलत आयला. हातूंत प्रेक्षकांच्या मुखार एक धवो पडदो ताणून लायतात आनी ताच्या फाटल्यान हालपी चित्रांच्या सावळ्यांवरवीं एक कथाभाग सादर करतात. ह्या छायानाट्यांतलीं चित्रां एकसंध नासून कुडक्यांपसून तयार केल्लीं आसतात. ताका लागून उजवाडापसून फाटींफुडें अंतराचेर आसपी आकृतींच्यो सांवळ्यो दृश्य परिणामांत भर घालतात. छायानाट्यांत आवाजा येवजण आशिल्ल्यान झुजाचे प्रसंग, हतयाची शिकार, कुस्ती असले प्रसंग भेस बरे रंगतात. कांय अस्तंती देशांनी पापेलांवाच्यो छायाबावल्यो करताले; पूण टिकाऊपणाक लागून आजकाल पत्रो वा चामडें हांचो उपेग करतात.

छायानाट्याची सुरवात पयलीं भारतांत जाली अशें म्हण्टात. भारतांत इ.स.प. दुसऱ्या शेंकड्यांत छायानाट्याचे प्रयोग जाताले, अशे उल्लेख सांपडटात. महाभारत, थेरीगाथा, अशोकाचें चवथें शिलाशासन हातूंत छायानाट्याचे उल्लेख सांपडटात. महाभारतांत छायनाट्याक 'रूपोपजीवन' अशें म्हळां. सुभट हाणें रचिल्लें दूतांगद हें सगळ्यांत पोरनें छायानाट्य जावन आसा. 'अंगदशिष्टाय' हो ताच्या छायानाट्याचो विशय जावन आसा. मध्ययुगांतल्या संतांच्या साहित्यांत ईश्वर आनी सृश्ट हांच्या छायानाट्याचें रूपक केल्लें दिसून येता. आंध्र, मलबार, तमिळनाडू, ओरिसा ह्या प्रदेशांत आयज लेगीत छायानाट्याची परंपरा तिगून आसा. प्रदेशाप्रमाण छायानाट्याक वेगवेगळीं नांवां आसात: देखीक- ओरिसांत 'रावणछाया', कर्नाटकांत आनी तामिळनाडूंत 'पवाकुत्तू' वा 'चक्ल गोंबाई अट्ट' वा आंध्रांत 'थोलू बोमलट्ट'. छायानाटाचे विशय मात चड करून रामायण-महाभारत वा शिवजल्मोत्सव अशे आसतात.

छायानाट्याखातीर तयार केल्ल्यो बावल्यो, गाय, म्हस, बोकडी, हरण ह्या जनावरांचे चामडेपसून करपाची पूर्वापार प्रथा आसा. देव वा नायकनायिकेच्यो बावल्यो व्हडल्यो आनी हेर पात्रांच्यो ल्हान आसतात. आंध्र प्रदेशांत ह्यो बावल्यो संवसारांतल्यो सगळ्यांत व्हड आकाराच्यो बावल्यो जावन आसा. केन्नाकेन्नाय ह्या बावल्यांत भुसो वा कुंडो भरतात; केन्नाकेन्नाय ताच्या जाग्यार चामड्याचे तीन थर वापरुन तांकां फावतो आकार दितात. मागीर तांकां बुराक करून विंगड विंगड रंगांनी तांची रंगभूषा आनी वेशभूषा करतात. आदल्या काळांत बायलांचीं संवगां हळडुवो, नारिंगी आनी तपकिरी रंगाच्या एकजीव मिश्रणांत रंगयताले. दादल्यांचीं संवगां, खास करून रामाचीं आनी कृष्णाचीं गाड निळ्या रंगांत रंगयताले. सीतेचे बावलेक भांगराच्या रंगाचो लेप लायताले. आंध्र प्रदेशांतल्यो बावल्यो पारदर्शक आसून वेगवेगळ्या रंगांनी रंगयल्ल्यो आसता. ह्या छायाबावल्यांक खांदे, कोंपर, धोंपर आनी कमर ह्या भागांनी गांठी मारिल्ल्यो दोरयो जोडिल्ल्यो आसता. ताका लागून तांची हालचाल करप एकमद सोंपें जाता. बावलेच्या मदल्या भागांत तकलेपसून सकयल मेरेन लांब आनी जिचो थोडोसो भाग भायर आयला, अशी कोंड्याची पातळ पट्टी जोडटात. नर्तकी बावल्यांची सांधेजोड रचणूक वेगळे तरेची आसून तांकां पायघोळ झगे घाल्ले आसतात. दोन सूत्रधारांवरवीं केल्ल्या तांच्या नाचांतल्यान अभिजात नृत्यांच्यो हालचाली दाखोवप शक्य जाता.

छायानाट्याखातीर वापरिल्ली परंपरागत माची एखाद्रे पेटयेसारकी लांब आनी तिनूय वटांनी बंद आसून ती उक्त्या मळार खंयूय उबारूंक येता. ताची लांबाय सु. ३ मी., उंचाय सु. ६.४० मी. आनी खोलाय १.८३ मी. आसता. मुखार सु. ०.४५ मी. चो एक पड्डो आसून ताचेर नाट्यप्रसंगाचें नांव बरयल्लें आसता. ज्या पड्ड्याचेर सांवळ्यो दाखोवपाच्यो आसतात तो मुखेल पड्डो दोन धव्यो साडयो एकार एक जोडून तयार केल्लो आसता. जमनीसावन सुमार ०.४५ मी. इतले उंचायेचेर आशिल्लो हो पड्डो ताडाच्या काट्यांनी ताणून आडवो लायतात. पड्ड्या भोंवतणचो भाग साकांनी धांपतात. केन्नाकन्ना ह्या पड्ड्याच्या मदीं वयल्यान सकयल असो एक लांकडी दांडो लावन पड्ड्याचे दोन भाग करतात. ताचो उजवो भाग खेळांतल्या राम-सीता, कृष्ण, हनुमान ह्या दैवी पात्रांखातीर आनी दावो भाग रावण, राक्षस ह्या दुश्ट पात्रांखातीर वापरतात. ह्यो सगळ्यो बावल्यो पड्ड्याचेर कांटे लावन हुंबकळायतात. हालचालीवेळा त्यो पड्ड्यासावन वेगळ्यो करतात. तांची हालचाल कोंड्याच्या वां वेताच्या बडयांवरवीं करतात. ही हालचाल करपाखातीर पड्ड्याफाटल्यान खास मनीस आसतात. सूत्रधार पड्ड्यामुखार उबो रावन कथाकथन करता आनी हातांतलो

धोल बडयता.

पड्ड्या फाटल्यान एका पेंचिल्ल्या कोंड्याचे सकयले वटेन ४१ दिवे लायतात. तातूंत कापसाच्यो दाट वाती घालतात. सुर्वेक एकेक दिवो पेटत आसतना बावल्यांच्यो सांवळयो स्पश्ट दिसनात. पूण सगळयोच वाती पेटपाक लागतकच तांचे व्यवस्थित आनी सोबित आकार दिसपाक लागतात. हालींच्या काळांत तेलाच्या दिव्यांजाग्यार विद्युत् दिवे आनी चित्रदिवे (Magic Lantern) वापरतात.

आंध्र प्रदेशांतलो छायानाट्य हो 'यक्षगान' ह्या लोकनाट्याचोच भाग समजतात. छायानाट्याचे हे खेळ वसंत ऋतूंत करतात. ह्या खेळाचे सुर्वेक कांय धर्मीक विधी करपाची चाल आसा. ओरिसांतल्या 'रावणछाया' खेळांत वातावरण निर्मिती करपाखातीर बावल्यां वांगडा रुख, खोपी, आसनां दाखयतात.

महाराष्ट्रांत 'कुंपणावरून' हें पयलें छायानाट्य श्री. बा. रानडे हाणें बरयलें. ताचो प्रयोग मुंबय २८ एप्रिल १९४७ दिसा जालो. उदय शंकर, डॉ. चारुशीला गुप्ते हांणीय छायानाट्याचे कांय प्रयोग केल्यात. दर्पण अकादेमी आनी नाट्यसंघ, अहमदाबाद ह्या संस्थांनी छायानाट्याचे कलेचें पुनरुज्जीवन केलां. तांणी छायानाट्य सादर करपाचे पध्दतींत कांय सुदारणाय घडोवन हाडल्यात. लांब कथानकाच्या जाग्यार ल्हान, सुटसुटीत कथानक, नवे तंत्र पध्दतीन वापरिल्ली आवाजा आनी उजवाडा येवजण आनी संगीताची साथ हांकां लागून तांच्या छायानाट्याचे खेळ चड प्रभावी जातात.

सोळाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत विजयानगर साम्राज्यकाळांत 'रामायण रंगनाथन' हें छायानाट्य सादर केल्लें असो उल्लेख मेळटा. ह्याच छायानाट्याचो प्रसार फुडें अतिउदेंतेकडल्या इंडोनेशिया, जावा, मलाया, ब्रह्मदेश आनी चीन ह्या देशांत जालो. छायानाट्य हें थंयच्या लोकांच्या लोकनाट्याचोच एक भाग जालें. इंडोनेशियांत ताका 'वायांग कुलित' अशें म्हण्टात. ताचें कथानक भारतीय कथांचेरुच आदारीत आसता. जावांत छायाबावल्यो रंगयनासतना दाग दिवन अलंकृत करतात. चीनांत हान राजवटीसावन छायानाटयाची परंपरा चालू आसा.

ईजिप्त, अरबस्तान, इराण आनी तुर्कस्थान ह्याय देशांनी पूर्विल्ल्या काळांत छायानाट्य प्रचलित आशिल्लें. तुर्कस्तानांतल्यान फुडें तें ग्रीसांत पावलें. थंय ताचें मूळ स्वरुप बदलून तें विनोदी जालें. सतराव्या शेंकड्यांत इटलींत हो खेळ रुढ जातकच युरोपीय देशांनी पातळ्ळो. अठराव्या शेंकड्यांत अमेरिकेंत छायानाट्य लोकप्रिय आशिल्लें. फुडें एकुणिसाव्या शेंकड्यांत Broken Bridge हें छायानाट्य खुब गाजलें आनी छायानाट्याच्या संवसारीक इतिहासांत अज्रंवर जालें. ताचो कर्तो डॉम्नीक सेराफँ आनी छायानाट्याचे चित्रपट घेवपी लॉट्टे रायनिगर हो जर्मन कलाकार, हे ह्या मळावयले मुखेल कलाकार आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**जंजिरा संस्थान:** ब्रिटीश काळांतल्या हिंदुस्थानांतलें मुंबय इलाख्या लागसारचें महाराष्ट्रांतलें एक संस्थान. काठेवाडांतलें जाफराबाद लेगीत हातूंत आस्पावता. दोगांयचें मेळून वट्ट क्षेत्रफळ ९३३ चौ.किमी. आसा. लोकसंख्याः सुमार १ लाख (१९४१). 'जझीरा' (म्हळयार जुंवो) ह्या अरबी शब्दावयल्यान 'जंजिरा' हें नांव पडलें. मराठी कागदपत्रांत थोडेकडेन 'हबसाण' असोय हाचो उल्लेख मेळटा. उदेंतेक कुलाबा जिल्ह्यांतलो रोहा-माणगांव तालुको, दक्षिणेक बाणकोटची खाडी, अस्तंतेक अरबी दर्या, उत्तरेक कुलाबा जिल्ह्यांतल्या रेह्याची खाडी ह्यो संस्थानाच्यो शिमो जावन आसात.

राजापुरीचे खाडयेक लागून ह्या संस्थानाचे दोन वांटे जाल्ले. पयलीं हांगा खारव्यांचें राज्य आशिल्लें. पंदराव्या शेंकड्याचे अखेरेक अहमदनगरचे निजामशाहींतल्या हबशांनी (सिद्यांनी) कपट करून तो जुंवो आपल्या शेकातळा हाडलो. हांगाचो अभेद्य किल्लो जिखपाखातीर शिवाजीन खूब यत्न केले, पूण तातूंत ताका यश आयलेंना. आदिलशाहीकडल्यान शिवाजी आड संरक्षण मेळना, हें पळोवन हबशांनी १६७० त मोगलांची मांडलिकी पत्करली आनी फुडें ते मोगल नौदलाचे मुखेल जाले. तांणी हाजच्या यात्रेकरूंक संरक्षण दिवचें आनी ताचे बदला तांकां सुरतच्या महसुलांतलो कांय वांटो मोगलांनी दिवंचो, अशें थारायल्लें.

१६८२ त संभाजी आनी १७३३ त आंग्रे-पेशवे हांच्यो घुरयो जंजिऱ्याच्या सिद्दीन परतिल्यो, पूण दुसरे खेपेक मात ताका रायगडमेरेनचो आनी मावळांतलो सगळो वाठार सोडचो पडलो. १७३६ त चिमाजी आप्पान सिद्दीसात ह्या हबशी मुखेल्याक झुजांत जिवो मारतकच हबशी लोक मराठ्यांक कांचवेवन वागपाक लागले. जाफराबादचो ठाणेदार आनी कांय खारवी, चांचेगिरी करपाक लागिल्ले. ते १७६२ त जंजिऱ्याच्या शेकातळा आयले.

सुरतेच्या सिद्दी हिलालान १७३१ त तांचीं जहाजां धरून दंड मागलो; तो दिवप शक्य ना म्हूण ठाणेदारान १०४ चौ.किमी. चो हो वाठार सिद्दीकूच विकलो. तेन्ना सिद्दी हिलाल आपल्या जंजिऱ्याच्या भाऊबंदांचो चाकर म्हूण कारभार पळोवपाक लागलो. अठराव्या शेंकड्याचे अखेरेक नाना फडणीसान जंजिऱ्याचे गादयेखातीर चलिल्ले भितल्ले धुसफुशीचो फायदो घेतलो आनी गादयेचो एक हकदार बालूमिया हाका सुरतेकडली सचिनाची जहागीर दिवंक लायली. अशे तरेन ताणें पेशव्यांचो शेक चलोवपाचो यत्न केलो.

१८३४ त जंजिरा संस्थान ब्रिटिशांचें मांडलिक जालें. तांणी थंयची फकत टांकसाळ बंद केली. संस्थानाक खंडणी नाशिल्ली आनी पुराय अंतर्गत स्वायत्तता आशिल्ली. संस्थानी कारभारांतले बेबंदशायेक लागून १८६८ त एका ब्रिटीश पॉलिटिकल एजंटाची नेमणूक जाली. पोलीस आनी न्याय हीं खातीं ताचेकडेन आयलीं. श्रीवर्धन, मुरुड आनी म्हसाळे हे तीन म्हाल संस्थानांत आशिल्ले. मूळचे आफ्रिकेंतसून आयिल्ले हांगाचे नबाब मुसलमान जाले. संस्थानांत चडशे हिंदू आनी सिद्दी थोडे आसुनूय तांकां जहागिरी आशिल्ल्यो. २३ खेडीं जहागिरींत दिल्लीं. शेतकाम आनी नुस्तेमारी हे मुखेल धंदे आशिल्ले. राजापुरीचे खाडयेंत पयलींच्या काळांत मोतयां मेळटालीं. जहाजाचेर खलाशी जावप हो आनीक एक वेवसाय आशिल्लो. ह्या संस्थानांत बेने-इझ्राएल जमातीचे मराठी भाशीक आसप, हें संस्थानाचें आनीक एक खाशेलेपण.

१८७४ सावन मुंबय-दासगांव बोटी जंजिरा-श्रीवर्धनाक रावपाक लागल्यो. जाफराबाद हेंय एक बरें बंदर आशिल्लें. १८८० त डाकघर आयलें. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत आनी विसाव्या शेंकड्यांत शिक्षण, नगरपालिका, भलायकी, वनसंरक्षण अश्यो जायत्यो सुदारणा जाल्यो. संस्थानाचें उत्पन्न सुमार १० लाख रुपयांमेरेन आशिल्लें. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत जंजिरा संस्थानाचो आस्पाव महाराष्ट्राच्या अस्तंत शिमेवयल्या अरबी दर्याक तेंकून आशिल्ल्या कोंकण भागांतल्या कुलाबा जिल्ह्यांत जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**ज:** देवनागरी अक्षरमालेंतलें आठवें आनी 'च' वर्गांतलें तिसरें व्यंजन. हाचो उच्चार ताळवेंतल्यान जाता. ह्या आयच्या 'ज' वर्णाचीं हीं आदली चार रुपां.



हातूंतली पयली अवस्था गिरनारच्या लेखांत, दुसरी इ.स. च्या दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या शक उषवदात हाच्या नासिक हांगाच्या लेखांत, तिसरी राजा दुर्गगणाच्या झाळपाटण हांगाच्या लेखांत (इ.स. ६८९) आनी

निमाणी इ.स. ११ व्या शेंकड्यांतल्या उज्जयिनीच्या लेखांत दिसून येता.

ह्या वर्णाचें ध्यान अशें सांगलां:

ध्यानमस्याः प्रवक्ष्यामि शृणुष्व कमलानने
नानालङ्कारसंयुक्तैर्भुजैर्द्वादशभिर्युताम्।
रक्तचन्दनदिग्धाङ्गीं विचित्राम्बरधारिणीम्
त्रिलोचनां जगध्दात्रीं वरदां भक्तवत्सलाम्।
एवं ध्यात्वा ब्रह्मरूपां तन्मन्त्रं दशधा जपेत् ।।

अर्थ- हे कमलानने, ह्या वर्णाचें ध्यान सांगतां तें आयक. हिणें तरंतरांचे अलंकार धारण केल्यात. हिका बारा भुजां आसात. हिच्या आंगाक रक्तचंदनाचो लेप लायिल्लो आसून ती विचित्र रंगांचें न्हेसण न्हेसल्या. तिका तीन दोळे आसात. ती जगध्दात्री आसून भक्तांक वर दिवपी आनी भक्तवत्सल आसा; अशा ब्रह्मरूपी जकाराचें ध्यान करून ताचो मंत्र धा वेळा जपचो.

- कों. वि. सं. मं.

**जगन्नाथ पंडितराजः** (जल्मः १५९०; मरणः १६६५).

संस्कृतांतलो एक म्हान कवी आनी काव्यशास्त्रकार. तो आंध्रवेंगिनाडी कुळांतलो तैलंगी ब्राह्मण आशिल्लो. ताचो बापूय पेरुभट्ट वा पेरमभट्ट हो व्हडलो पंडीत आशिल्लो. जगन्नाथान ताचेकडल्यानूच जायत्या शास्त्रांचें शिकप घेतलें. जगन्नाथ ताका महागुरू अशें म्हण्टालो. बनारसाक वचून तो ज्ञानेंद्रभिक्षू नांवाच्या गुरुकडल्यान अद्वैत, महेंद्राकडल्यान न्याय आनी वैशेशिक, खंडदेवाकडल्यान पूर्वमीमांसा हे विशय शिकलो. शेषवीरेश्वर हो ताचो व्याकरणांतलो गुरु.

ताच्या जिविताविशीं निश्चित अशी म्हायती मेळना. अशें म्हण्टात की सुर्वेक तो जयपुरांत एका विद्यालयाचो संस्थापक आनी अध्यापक आशिल्लो. उपरांत १६२५ त, आसफखानाचो दिवाण मुकुंद माथुर हाच्या पालवान ताणें मोगल दरबारांत प्रवेश केलो. अशीय कांय म्हायती मेळटा, की जहांगिराच्या काळांतूच जगन्नाथपंडीत ताच्या आलाशिऱ्याक आशिल्लो. जहांगिराच्या मरणाउपरांत तो उदेपूरच्या जगत्सिंहाच्या आलाशिऱ्याक गेलो. फुडें बादशहा शहाजहानच्या आपोवण्याक लागून दारा शिकोह हाका संस्कृत शिकोवपाखातीर तो दिल्लीक परत गेलो. जगन्नाथपंडिताविशीं कितल्योश्योच आख्यायिका प्रचलित आसात. शहाजहानच्या दरबारांत आसतना फार्सी भाशेचो अभ्यास करून एकदां ताणें दरबारांतल्या गर्विश्ठ काजीकडेन भासाभास केली आनी त्या काजीक हरयलो; तेन्ना बादशहा शाहजहान ताचेर खुश जालो आनी ताणें ताका 'पंडितराज' ही पदवी दिली, अशें म्हण्टात. शहाजहानच्या दरबारांत आसतनाच 'लवंगी' नांवाचे एके रुपेस्त आनी सोबित चलयेवांगडा ताचो मोग जडलो. लवंगी ही शहाजहानची मानिल्ली चली आशिल्ली, अशें कांय जाण म्हण्टात; जाल्यार, ती थंयची एक दासी आशिल्ली, अशें हेर जाणकारांचें मत आसा. हे आख्यायिकेप्रमाण बादशहाकडल्यान अनुमती घेवन जगन्नाथान लवंगीवांगडा लग्न केलें, अशें म्हण्टात. फुडें मुसलमानांकडेन संबंद दवरले म्हूण हिंदूंनी ताका दोशी थारायलो आनी बहिश्कृत केलो. ताका लागून निर्शेवन तो गंगेच्या घाटार गेलो आनी थंय लवंगी वांगडा बसून ताणें 'गंगालहरी' हें आपलें ५२ श्लोकांचें नामनेचें काव्य रचलें. एकेका श्लोकाचे रचनेवांगडा गंगेचें उदक एकेक सपण वयर चडत आयलें आनी ५२ श्लोक जातकच उदक पुराय वयर आयलें. अशे तरेन गंगेन जगन्नाथ-लवंगी हांकां आपल्या पोटांत घेतलीं, अशी एक आख्यायिका प्रचलित आसा.

शहाजहानच्या मरणाउपरांत पंडितराज कामरुपाचो राजा प्राणनारायण हाचेकडेन कांय काळ रावलो. उपरांत तो मथुरेक आयलो आनी आपलें उरिल्लें जिवीत ताणें काशींत घालयलें मथुरेक आसतना ताका कृष्णभक्तीची ओड लागिल्ली हें ताच्या 'भामिनीविलास' हे काव्यरचनेंतल्या एका श्लोकांतसून दिसून येताः

रे चेतः कथयामि ते हितमिदं वृन्दावने चारयन्
वृन्दं कोऽपि गवां नवाम्बुदनिभो बन्धुर्न कार्यस्त्वया ।
सौन्दर्यामृतमुद्गिरद्भिरभितः संमोह्य मन्दस्मितै-
रेष त्वां तव वल्लभांश्च विषयानाशु क्षयं नेष्यति।।

(शांतविलास)

अर्थ- हे मना, हांव तुका तुज्या बऱ्याचीच गजाल सांगतां. कोण तरी मेघश्याम असो एक तरणाटो वृंदावनांत गायांचे कळप चरयत आसा. ताका तूं केन्नाच लागीं करुं नाका. कारण सगळ्या वटांनी सोबितकायेचें अमृत शिंपडावपी अशा नाजूक हांशांनी भुलोवन, तो तुजो आनी तुज्या आवडट्या विशयांचो रोखडोच नाश करतलो.

जगन्नाथान केल्ली काव्यरचना अशीः 'गंगालहरी' वा 'पीयूषलहरी', 'अमृतलहरी', 'करुणालहरी', 'लक्ष्मीलहरी' आनी 'सुधालहरी' ह्यो पांच लहरी, 'जगदाभरण' (शाहजहानचो चलो दारा शुकोह हाची तुस्त करून बरयल्लें काव्य), 'आसफविलास' (नबाब आसफखान हाच्या मरणाचेर बरयल्लें शोक-काव्य), 'प्राणाभरण' (कामरुपचो राजा प्राणनारायण हाची तुस्त करून केल्ली रचना), 'भामिनीविलास' (प्रास्ताविकविलास वा अन्योक्तिविलास, शृंगारविलास, करुणविलास आनी शांतविलास अशे ताचे चार उल्लास आसात). ताच्या काव्यांत प्रसाद आनी माधुर्य हे गूण दिसून येतात.

संस्कृत काव्यशास्त्राचे परंपरेंतलो जगन्नाथ हो निमाणो शास्त्रकार आसा. 'रसगंगाधर' आनी 'चित्रमीमांसाखंडन' हे ताचे काव्यशास्त्राविशींचे ग्रंथ प्रमाण अशें मानतात. 'रसगंगाधर' हो ग्रंथ आयज पुराय मेळना. ताचीं फकत दोनूच आननां (प्रकरणां) मेळटात. 'चित्रमीमांसाखंडन' हो ग्रंथूय अपूर्ण आसा. भट्टोजी दीक्षितान बरयल्ल्या 'प्रौढमनोरमा' ह्या व्याकरणावयल्या ग्रंथाचें खंडन करपाखातीर 'मनोरमाकुचमर्दन' हो ग्रंथ जगन्नाथान बरयलो. ताच्या व्यासंगाचो आनी स्वतंत्र बुध्दीचो थाव ह्या ग्रंथांतल्यान होलमता. ताचें गद्य बरेंवपलेगीत स्पश्ट आनी धारदार आसा.

जगन्नाथाच्या 'भामिनीविलास' ह्या काव्याचो फ्रेंच अणकार आबेल बेर्गेनी ह्या फ्रेंच पंडितान मूळ संहितेसयत पारीस हांगा उजवाडायलो (१८७२). डी. गॅलनॉस हाणें भामिनीविलासांतल्या प्रास्ताविकविलासाच्या पयल्या ९८ श्लोकांचो ग्रीक भाशेंत अणकार केला (१८४५), जाल्यार बोलेन हाणें करुणाविलासाचो जर्मन अणकार केला (१८४०).

- कों. वि. सं. मं.

**जगन्नाथपुरीः** भारतांतल्या चार धामांतलें एक आनी ओरिसा राज्यांतल्या पुरी जिल्ह्याचें मुखेल ठिकाण. लोकसंख्याः सुमार ७५,००० (१९८१). हें नगर महानदीच्या त्रिभुज प्रदेशाचे (delta) दक्षिणेक दर्यादेगेर वसलां आनी कटकसावन सुमार ७२ किमी. आनी भुवनेश्वरसावन सुमार ३२ किमी. अंतराचेर आसा. ओरिसांत विष्णूच्या चार आयुधांचीं क्षेत्रां आसात, तातूंतलें हें शंखक्षेत्र. हाचो आकारूय शंखासारकोच आसा, अशें म्हण्टात.

हांगाचें जगन्नाथाचें मंदिर सबंद भारतांत पवित्र मानतात आनी देखून पुरीक खाशेलें म्हत्व आयलां. हिंदूंच्या ह्या नामनेच्या तीर्थक्षेत्राचो उल्लेख पुराणांत श्रीक्षेत्र वा पुरुषोत्तम क्षेत्र म्हूण आयला. हांगाचें जगन्नाथाचें मंदिर कलिंगचो राज चोडगंगा आनी अनंग भीमदेव हांणी सुमार बाराव्या शेंकड्यांत बांदलें, अशें म्हण्टात. ह्या मंदिरांत जगन्नाथ (कृष्ण), बलराम आनी सुभद्रा हांच्यो लांकडी मुर्ती आसून तांकां फकत दोळे, नाक, तोंड इतलेंच अवयव आसात. दर बारा वर्सांनी ह्यो मुर्ती नव्यान करतात. ह्या मुर्तींविशीं कितल्योश्योच काणयो आनी आख्यायिका प्रचलित आसात. ह्या जगन्नाथाविशीं एक सविस्तर कथा क्षेत्रमाहात्म्यांत आयल्या ती अशीः

पूर्विल्ल्या काळांत पुरींत इंद्रद्युम्न नांवाचो राजा राज्य करतालो. ताच्या राज्यांत व्हडल्यो-व्हडल्यो इमारती जायत्यो आशिल्ल्यो, पूण देवाचें एकूय मंदिर नाशिल्लें. देखून ताणें थंय एक व्हडलें मंदिर बांदलें. त्या मंदिराचें काम पुराय जातालें; इतल्यान थंय एक भोंवडेकार पावलो. ताणें राजाक सांगलें, ''ह्या व्हडल्या कलापूर्ण देवळांत बसपाक

'नीलमाधव' हो एकूच देव योग्य आसा. नीलाचल दोंगराचेर विश्वावसू नांवाच्या एका शबराकडेन नीलमाधवाची इंद्रनील मणयाची मूर्त आसा आनी शबरान ती एका देगणांत गुप्तपणान दवरल्या. तो नेमान थंय वचून ताची पूजा करता.'' हें आयकून राजान विद्यापती नांवाच्या एका दूताक नीलमाधव सोदपाखातीर धाडलो. मोट्या कश्टान ते मुर्तीचो सोद घेवन विद्यापती परत आयलो. राजान ताच्या हातासकयल एक व्हडलें सैन्य दिवन ताका ती मूर्त हाडपाक धाडलो; पूण विद्यापती परत थंय वचत जाल्यार ती मूर्त थंयच्यान अदृश्य जाल्ली. ही खबर आयकून राजाक खूब दुखह जालें. तेच रातीक सपनांत येवन नीलमाधवान राजाक दृश्टांत दिलो- ''राजा, म्हजो भक्त शबर हाचेकडल्यान तूं म्हाका चोरुन व्हरपाचो आशिल्लो. पूण तुजो हो गर्व म्हाका आवडलोना. तुका म्हजी खरी भक्ती आसा जाल्यार तूं शंबर अश्वमेध कर. मागीर हांव तुज्या राज्यांत एका चंदनी लांकडाच्या कुडक्याच्या रुपांत प्रगट जातां. ताचेर पद्म आनी चक्र ह्यो कुरु दिसल्यो, म्हण्टकच तीच म्हजी मूर्त अशें तूं समज.''

त्या आदेशाप्रमाण इंद्रद्युम्न राजान एकेक करून शंभर अश्वमेध केले. तेउपरांत थोड्याच दिसांनी एक चंदनी लांकडाचो कुडको पुरीचे दर्यादेगेक लागलो. राजान ताचेवयल्यो पद्म-चक्र कुरू पळेल्यो आनी तो लांकडाकुडको राजवाड्यांत हाडलो. ताचेपसून एक सुंदर विष्णुमूर्त घडोवपाखातीर खंयचो कलाकार मेळटलो, हे चिंतेंत राजा आसतनाच 'अनंत' नांवाचो एक म्हातारो मूर्तीकार थंय आयलो. तो साक्षात विश्वकर्मा आशिल्लो. ताणें राजाक सांगलें- ''राजा, म्हाका देवळाचे गर्भकुडींत २१ दीस कोंडून दवर. देवळाचीं सगळीं दारां बंद कर. ही अट पाळ्ळी जाल्यार हांव ह्या लांकडा कुडक्यापसून मूर्त घडयतां. २१ दीस जातकच तूं गर्भकुडीचें दार उक्तें कर.'' राजान ती अट मान्य केली आनी त्या कारागिराक लांकडा कुडक्यासयत गर्भकुडींत कोंडून दवरलो. पूण राणयेक एकसारको दुबाव येवपाक लागलो. तो मुर्तीकार देवळांतलीं भांगरा-रुप्याचीं फुलां घेवन पळत म्हूण तिका एकसारकी दुगदुग लागली. तिचे सांगणेवेल्यान राजान वचून गर्भकुडीचें दार उक्तें केलें. पळेत जाल्यार हात-पांय नाशिल्लें जगन्नाथाचें मुखें थंय आशिल्लें. ताचे दोळे घुंवडायल्ले आशिल्ले आनी मुर्तीकार अदृश्य जाल्लो. मुर्तीचे ते दोळे पळोवन राजा भियेलो. ताणें देवाकडेन चूक मागली. तेन्ना ती मूर्ती उलयली. ''राजा, पयलीं तुवें अहंकार केलो म्हूण म्हजी इंद्रनीळ मणयाची मूर्त तुका मेळ्ळिना. आतां रायणेच्या दुबावाक तूं बळी पडलो म्हूण हांव असो अर्दवट अवस्थेंत उरलों. तूं आतां ह्याच स्वरुपांत म्हजी मंदिरांत प्रतिश्ठा कर. हे स्थितींत लेगीत हांव तुज्या भक्तीभावाक समाधान दितलों.''

अशेच तरेची आनीक एक कथा आसा. हे कथेंत चंदनाच्या कुडक्या जाग्यार दर्या देगेवयलो वडाचो रुख तोडून विश्वकर्म्यान ताच्यो तीन मुर्ती घडयल्यो, असो उल्लेख आसा.

जगन्नाथाविशीं आनीक एक आख्यायिका आसा, ती अशी: कौरव-पांडवांच्या झुजाउपरांत जेन्ना श्रीकृष्णान देहत्याग केलो, तेन्ना ताची बोमली चितेंत जळना जाली. देखून तो भाग दर्यांत सोडलो. तो दर्यांतल्यान व्हांवन येवन नीलाचला लागसार किनाऱ्याक लागलो. थंय इंद्रद्युम्न राजा तपाक बशिल्लो. ताका सपनांत दृश्टांत जालो आनी देवान आदेश दिलो, ''म्हजे कुडीचो हो बोमलेचो भाग तूं लांकडी मुर्तींत बसोवन ते मुर्तीची स्थापना कर आनी तिची उपासना कर.' ते प्रमाण राजान मूर्त घडोवन तिची स्थापना केली. तीच जगन्नाथाची मूर्त अशें म्हण्टात.

कृष्णाच्या कुडीच्या अवयवाची पूजा करपाची पध्दत वैदिक परंपरेंत मेळना. पूण ती प्रथा बौध्द धर्मांत आसा. इ.स. पांचव्या शेंकड्यांत पुरी हें एक बौध्द क्षेत्र आशिल्लें, अशें म्हण्टात. थंय दर वर्सा बुध्दाच्या दांताची पूजा जावन ताची व्हडली मिरवणूक जाताली. ते दंतयात्रेच्या दायजाचे परंपरेंतल्यान चलत आयिल्ली वैष्णव आवृत्ती म्हळ्यार सद्याचीं जगन्नाथाची रथयात्रा अशें म्हण्टात. अशे तरेन मुळचो शबरांचो जगन्नाथदेव, उपरांत बौध्द प्रभावाखाल आयला आसतलो. कांय अस्तंत्या जाणकारांच्या मताप्रमाण जगन्नाथाच्या देवळांतल्यो तीन मुर्ती ह्यो बौध्द धर्मांतलीं तीन तत्त्वां- बुध्द, संघ, धर्म हांचीं प्रतीकां जावन आसात.

आयज जगन्नाथाचें मंदिर नीलाचल दोंगराचेर आसून देवळाच्या महाद्वारांत सुमार ८ मी. उंचायेचो काळ्या पाशाणाचो कोणार्कसावन हाडिल्लो अरुणस्तंभ आसा. देवळाभोंवतणी सुमार ६ मी. उंचायेची फातराची तटबंदी आसून चारुय दिकांक चार प्रवेशद्वारां आसात. उदेंतेकडल्या दाराचेर शिंवाच्यो दोन व्हडल्यो आकृतायो आसात, म्हूण ताका 'सिंहद्वार' म्हण्टात. हेंच महाद्वार जावन आसा. उदेंतेकडल्या तटाची लांबाय १९५ मी. आनी दक्षिणेकडल्या तटाची लांबाय ८० मी. आसा. हे तटबंदी भितर आनीक एक तटबंदी आसा. तातूंत भितर मुखेल मंदिर आसा. मंदिरांत एके रत्नवेदीचेर सांवळ्या रंगाचो जगन्नाथ उबो आसा. ताच्या माथ्यार मुकुट, कानांत कुंडलां आनी कपलाचेर हिरो आसा. ताच्या लागसारुच ६ फूट व्यासाचें एक तांबडें सुदर्शन चक्र आसा.

देवळाच्या आवारांत हेर जायत्या देवतांचीं मंदिरां आसात. तातूंत तेरा शिवमंदिरं आनी एक सूर्यमंदिर हांचो आस्पाव जाता. मुखेल मंदिराचे गर्भकुडीक जोडून सभामंडप (जगमोहन), नृत्यमंडप आनी भोगमंडप अशे तीन स्वतंत्र विभाग आसात. गर्भकुडीचेर सुमार ६१ मी. उंचायेचें विमान आसून ताचेर गरुडध्वज आनी कळसाचेर सुदर्शन चक्र आसा. विमानाचेर सोबित कोरीव नक्षीकाम आसा. देवळांतूय तरेतरेचीं ओडलायणीं चित्रां कोरांतिल्लीं आसात. तातूंत कांय कामशिल्पांय आसात. देवळाकडेनूच 'चंदन' नांवाची एक तळी आसा. तातूंत न्हावन तांबडें वस्त्र न्हेसप, सूर्याक अर्ध्य दिवप आनी मागीर जगन्नाथाच्या दर्शनाक वचप, अशी हांगाची प्रथा आसा. मंदिराची पुराय वेवस्था राज्य शासनान नेमिल्ले समितीकडेन आसा. ओरिसांतले वन्य जमातीचे कितलेशेच लोक जगन्नाथाचे उपासक आसात. पयलींच्या काळांत ह्या देवळांत सगळ्या धर्मांच्या आनी पंथांच्या साबार लोकांक प्रवेश मेळटालो. पूण इ.स. १८७५ सावन पुरीच्या राजान अहिंदूंक देवळांत वचपाक बंदी घाली.

जगन्नाथाच्या देवळांत पंचामृताभिषेक, अग्निपूजा, महापूजा, महानैवेद्य, वस्त्रालंकारादी राजभोग हे कार्यक्रम रातदीस चालूच आसतात. जगन्नाथाची रथयात्रा देशभर नामनेक पाविल्ले आसून ती आषाढ शु. द्वितीयेक सुरू जाता. कृष्ण, बलराम आनी सुभद्रा ह्या तिगांच्याय रथांची ही यात्रा आसता. हे यात्रेखातीर सबंद भारतांतल्यान लाखांनी भाविक लोक जमतात.

फाल्गुन शुध्द द्वादशीक 'गोविंद द्वादशी' म्हण्टात आनी तो जगन्नाथाचो जल्मदीस अशें मानतात. हे तिथीक पुष्य नक्षत्र आसल्यार पुरीक दर्यांत न्हावपाखातीर व्हडली यात्रा जमता. मार्कंडेय सरोवर, कृष्णवट, बलराम समुद्र, इंद्रद्युम्न कुंड हीं हांगाचीं मुखेल तीर्थस्थानां जावन आसात. इंद्रद्युम्न राजान बांदिल्ल्या मंदिरांत विश्वकर्म्यान जगन्नाथाची मूळ मूर्त तयार केली, त्या स्थानाक जनकपूर म्हण्टात. थंय एक ल्हानशें देवूळ आसा, ताका 'गुंडीचा मंदिर' अशें म्हण्टात.

पुरी हें एक शक्तिपीठ अशें मानतात. शाक्त पंथाचे लोक ताका उड्डीयानपीठ अशें म्हण्टात. आद्य शंकराचार्यान थापणूक केल्ल्या चार धर्मपीठांतलें एक पीठ जगन्नाथपुरींत आसा. पुरी हांगा धर्मशाळा, पुरीच्या राजाचो राजवाडो, महाविद्यालय, वेधशाळा आनी जायतीं विश्रामघरां आसात. पुरीची दर्यावेळ हें भोंवडेकारांचें खास आकर्शण जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**जगन्नाथ शंकरशेट:** (जल्म: १० फेब्रुवारी १८०३, मुरबाड-जि. ठाणे; मरण: ३१ जुलय १८६५, मुंबय).

महाराष्ट्रांतलो एक म्हान समाजसेवक, शिक्षणमोगी आनी आर्विल्ल्या मुंबयच्या शिल्पकारांतलो एक. ताचें पुराय नांव जगन्नाथ शंकरशेट मुर्कुटे. नाना शंकरशेट ह्या नांवान तो चड परिचित आसा. ताचो जल्म एका

दैवज्ञ ब्राह्मण वेपारी कुटुंबांत जालो. ताचो बापूय वेपाराखातीर मुंबय आयलो. म्हैसूरच्या १७९९ च्या टिपू-ब्रिटीश झुजांत ताच्या बापायन उपाट पयसो मेळयलो. आवय भवानीबाई नानाच्या भुरगेपणांतूच भायर पडली. नानान तिच्या उगडासाखातीर फुडें गोवालिया तळयेलागसार भवानी शंकर मंदिर आनी धर्मशाळा बांदली.



ताणें सुमार पन्नास वर्सांच्या काळांत मुंबयचे आनी महाराष्ट्राचे भौशिक जिणेची, राजकी चळवळीची आनी विंगड विंगड अशा लोककल्याणकारी सुदारणांची बुन्याद घाली. ताचेर सर जमशेटजी जिजिभाईचो प्रभाव पडलो. भारतीय लोकांभितर शिक्षणाचो प्रसार जावंक जाय, ह्या हेतान एल्फिन्स्टन हाणें १८२२ त हैंदशाळा आनी शाळापुस्तक मंडळी काडली, ताचो आदार नानाच आशिल्लो. हे पयले शिक्षणीक संस्थेची थापणूक करपाक स. का. छत्रे हाचो मोलादीक हातभार लागलो. फुडें १८२४ त हे संस्थेचें 'बाँबे नेटिव्ह एज्युकेशन सोसायटी'त रुपांतर जालें.

एल्फिन्स्टनाउपरांत उच्च शिक्षणाची तजवीज करपाखातीर ४,४३,९०१ रुपयांचो एल्फिन्स्टन फंड जमयलो, तेन्ना ह्या फंडाचो नाना विश्वस्त आशिल्लो. हे संस्थेचें 'एल्फिन्स्टन कॉलेज' जातकच (१८३७) तिका 'एल्फिन्स्टन इन्स्टिट्यूट' अशें म्हणपाक लागले. १८५६ त महाविद्यालय आनी विद्यालय एकामेकांपसून वेगळीं जालीं. 'बोर्ड ऑफ एज्युकेशन'ची थापणूक १८४१ त जाल्ली. बोर्डांतल्या तीन भारतीय सभासदांत फाटोफाट सोळा वर्सां नाना शंकरशेट वेंचून आयलो. 'स्टुडंट्स लिटररी आनी सायन्टिफिक सोसायटी' (१८४८) आनी 'जगन्नाथ शंकरशेट चलयांची शाळा' (१८४९) ताणें आपल्या वाड्यांत सुरू केली; तशेंच 'द जगन्नाथ शंकरशेट फर्स्ट ग्रेड अँग्लो व्हर्नाक्युलर स्कूल' १८५७ त सुरू केलें. १८५५ त ताणें विधी महाविद्यालयाची बुन्याद घाली. सर ग्रँट हाच्या मरणा उपरांत १८४५ त ग्रँट मेडिकल कॉलेजची थापणूक जातकच नाना शंकरशेट हाणें थंय आंग्ल वैजकी शिक्षणाची वेवस्था केली आनी हें शिक्षण फुडें मराठींतल्यान लेगीत दिवपाची तजवीज केली. नाना शंकरशेट 'अॅग्रि-हॉर्टिकल्चरल सोसायटी ऑफ वेस्टन इंडिया' आनी 'जिऑग्रॅफिकल सोसायटी' ह्या संस्थांचो मुखेल आनी अध्यक्ष आशिल्लो.

ह्या शिक्षणीक वावरावांगडाच १८५२ त ताणें स्थापन केल्ली 'द बाँबे असोसिएशन' ही संस्था मागीरच्या काळांत राजकी चळवळींचें केंद्र जाली. भारतीयांच्यो मागण्यो ब्रिटीश पार्लमेंटामुखार मांडपाखातीर स्थापन जाल्ले हे संस्थेंतल्यान 'बाँबे प्रेसिडेन्सी असोसिएशन' चो जल्म जालो आनी हेच संस्थेचें रुपांतर फुडें 'हिंदी राश्ट्रीय सभा' हे संस्थेंत जालें.

मुंबय कायदे मंडळाच्या सुरवातीच्या सभासदांत तो मुखेल आशिल्लो. नानाचो भौशिक वावर लेगीत विशाल आसा. ताणें सतीचे चालीक बंदी घालपी कायद्याक फाटबळ दिलें. सगळ्यांक शिक्षण मेळपाक जाय ह्या तत्त्वाचेर बायलांच्या शिक्षणाक उंचेलें स्थान दिलें. भारतीयांक कलाशिक्षण मेळचें, म्हूण सर जे. जे. स्कूल ऑफ आर्टचे थापणूकेंत सक्रिय वांटो घेतलो. हेभायर ग्रँड ज्युरींत भारतीयांचो आस्पाव जावंचो, तशेंच 'जस्टिस ऑफ द पीस' अधिकार भारतीयांक मेळचो, हेखातीर ताणें खटपट केली आनी कांय अधिकार मेळयले. मुंबय महापालिकेची बुन्याद ताणें घाली. मुंबयतले वाडटे लोकसंख्येक भरपूर प्रमाणांत उदकापुरवण जावची म्हूण महानगरपालिकेचो आयुक्त आसतना ताणें बांयो आनी तळीं ह्यो येवजणी अंमलांत हाडल्यो; भलायकेचे वेवस्थेंत लक्ष घालें. चिंचपोकळी हांगा गॅस कंपनी सुरू केली; धर्मार्थ दवाखानो काडून तशेंच जे. जे. हॉस्पिटलची बुन्याद घालून ताणें पिडेस्तांची सेवा सुरू केली.

मुंबयंत येरादारीचीं साधनां निर्माण जावंचीं म्हूण ताणें फुडाकार घेतलो. ताणें बाँबे स्टीम नॅव्हिगेशन कंपनीची थापणूक केली तशेंच मुंबय-ठाणे रेल्वेची सुरवात केली. मुंबयत नाट्यगृह जावंचें म्हूण ताणें यत्न केले. विष्णुदास भावेचीं नाटकां ताणें आपल्या घरांत घडोवन हाडलीं. सोनापूरचे मसुंडीचें रक्षण करपाचें सगळें श्रेय ताकाच वता. जिजामाता (राणीच्या) बागेची कल्पना ताचीच. मुंबयचें इतिहासीक वस्तुसंग्रहालय ताणेंच निर्माण केलें. रॉयल एशियाटिक सोसायटी (मुंबय शाखा), व्हिक्टोरिया अँड अॅल्बर्ट वस्तुसंग्रहालय, जगन्नाथ शंकरशेट स्कूल आनी एल्फिन्स्टन शिक्षण निधी अशा कितलेशाच नामनेच्या संस्थांक ताणें सदळ हातान पालव दिलो.

देशाची सगळ्या आंगांनी सुदारणा करपाच्या चडशा चळवळींत फुडाकार घेवपी ह्या म्हान मनशाचो पुतळो उबारपाखातीर लोकांनी आपखोशयेन २५,००० रु. जमयले. १८७० त खासा लंडनसावन करून हाडिल्लो हो संगमरवरी पुतळो टाउन हॉलांत उबारलो.

संस्कृत भाशेविशींचो नानाचो मोग मतींत घेवन, ताच्या उगडासाखातीर ताचो चलो विनायकराव हाणें महाराष्ट्रांत संस्कृत भाशेच्या अभ्यासाक प्रोत्साहन दिवचें ह्या हेतान शिष्यवृत्ती दवरल्या. मॅट्रिकचे परीक्षेंत संस्कृत विशयांत पयलो आनी दुसरो येवपी विद्यार्थ्यांक उच्च शिक्षणाखातीर म्हूण ही शिष्यवृत्ती दोन वर्सां मेळटा. आयजलेगीत 'जगन्नाथ शंकरशेट स्कॉलर' ही पदवी चड व्हडविकेची मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**जगन्नाथाचो रथ:** ओरिसांतलें पुरी वा जगन्नाथपुरी हें पूर्विल्लें तीर्थक्षेत्र आसून भारतांतल्या चार नामनेच्या धर्मांतलें तें उदेंतेकडलें धाम जावन आसा. आद्य शंकराचार्यान हांगाच एका धर्मपीठाची थापणूक करून जगन्नाथपुरीचें धर्मीक आनी संस्कृतीक मळावयलें म्हत्व सासणाचें चिरंतन केलां. जगन्नाथाचें मंदिर दर्यादिगेर आसून तातूंत जगन्नाथ (श्रीकृष्ण), सुभद्रा आनी बलराम हांच्यो हातपांय नाशिल्ल्यो तीन लांकडी मुर्ती आसात. पुरी हांगा वर्सभर उत्सव-समारंभ चालू आसतात; तातूंत रथयात्रा, रथोत्सव वा गुंडीचायात्रा हो खूब म्हत्वाचो उत्सव अशें म्हणटात.

रथोत्सवाची सुरवात आषाढ शुध्द द्वितीयेक जाता आनी हो उत्सव आठ दीस चलता. ह्या तीन देवांखातीर तीन नवे भव्य रथ तयार करतात

आनी तातूंत देवांच्यो उत्सवमूर्ती दवरतात. जगन्नाथाचो रथ सगळ्यांत व्हडलो आसून ताका १६ चक्रां आसतात. बलरामाच्या रथाक १४ चक्रां आनी सुभद्रेच्या रथाक १२ चक्रां आसतात. देवळांतल्यो मुर्ती रथांत व्हरुन दवरपी लोक थराविकूच आसतात; तांकां 'दैतपती' अशें म्हण्टात. हे दैतपती, ब्राह्मण सोडून हेर जातींतले आसून ते आपणाक ओरिसांतले पूर्विल्ले जमातीचे वंशज आसात, अशें म्हण्टात. हांचें जगन्नाथाकडेन प्रत्यक्ष भावासारकें नातें आसा, अशी एक आख्यायिका प्रचलित आसा. जगन्नाथचो रथ साक्षात विश्वकर्म्यान तयार केल्लो आनी ही रथयात्रेची प्रथा इंद्रद्युम्न राजान सुरू केली, अशें स्कंदपुराणांत सांगलां.

देवळांतल्या सिंहद्वारापसून रथयात्रेक सुरवात जाता आनी हांगाच्यान सुमार देड किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या जनकपूर वा इंद्रद्युम्नप्रासाद नांवाच्या स्थानामेरेन ती वता. थंय तीन दीस रावन ही रथयात्रा परत येता. गोकुळांतल्यान श्रीकृष्ण मथुरेक वता, अशी हे रथयात्रेफाटली कल्पना आसा. थंयच जगन्नाथाक मेळपाखातीर साक्षात लक्ष्मीदेवी येता, असो भाविकांचो समज आसा. जगन्नाथाचो रथ हजारांनी यात्रेकरू हातान ओडीत, मिरयत व्हरतात. हो रथ ओडपाक जो मदत करता, तो जल्ममरणाच्या चक्रांतल्यान मुक्त जाता असो भावार्थ आसा. ह्या रथाच्या चक्रापोंदा सांपडून मरण येता ताका मोक्ष मेळटा अशी वदंता आशिल्ल्यान हे अंधश्रध्देक लागून आदल्या काळांत कितलेशेच भाविक यात्रेकरु रथाफुडें पडून प्राणत्याग करताले. रथयात्रा सोंपतकच ह्या लांकडी रथांची पावणी जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**जगमः** (मराठी-जुगुरु, जग्गम; हिंदी- पनि-आम्ला, तालिसपत्री; कन्नड-अब्लू; संस्कृत-तालिश; इंग्लीश-पुनिआला प्लम; लॅटीन-फ्लॅकोर्टीया कॅटफ्रॅक्टा; कूळ- फ्लॅकोर्टीएसी). ल्हान पानझडी आनी मध्यम आकाराचो रुख. सुमार ९.२० मी. ऊंच आनी ०.८-१.५ मी. रुंद. हो रुख ब्रह्मदेश, मलाया, सिंगापूर आनी भारतांतल्या चडशा सगळ्या जंगली वाठारांनी मेळटा.

कोंकणांत आनी उत्तर भारतांत ह्या रुखाची लागवड करतात. ह्या रुखाच्या कांडाचेर व्हड संयुक्त कांटे आसतात. ल्हान पिरायेचेर झाडाक कांटे आसनात. ताचीं पानां सादीं, ल्हान तांतया आकाराचीं, तोंकांकडेन अशीर आनी दोनूय वटेन चकचकीत आसतात. उबाळ्याच्या दिसांनी हीं पानां गळटात. जानेवारी-फेब्रुवारी ह्या म्हयन्यांत ल्हानल्हान ताळयांनी पांच ते धा एकलिंगी फुलां येतात. तांकां पाकळ्यो आसनात. ह्या झाडाक निळसर काळ्या रंगाचीं, लिंबाएदीं लांबोडीं-वाटकुळीं, आंबट-गोड फळां जातात. तातूंत धा ते चवदा थपकट्यो बियो आसतात. पित्त वाडल्यार आनी फिग्दाच्या (यकृताच्या) दुखण्याचेर हीं फळां उपेगी पडटात. तांचीं पानां पातळ परसाकडल्या दुयेंसाचेर उपेगी पडटात. ह्या झाडाचें लांकूड कोरान तांबडें, जड आनी खुसखुशीत आसता अनी तें बरें चकचकूंक शकता. ह्या लांकडापसून चडकरून शेतकामाक उपेगी अशीं आयुधां करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**जडवाद** (Materialism): अचेतन वा जडवस्त वा जडद्रव्य (matter) हेंच पयलें आनी निमाणें सत; संवसारांत जितल्यो वस्तू आसात, तांचें अस्तित्व जडवस्तूक लागून आसा, अशें मानपी एक तत्त्वगिन्यान. आत्मो, चैतन्य वा मन हांकां अस्तित्वूच नासता, अशें कांय खर जडवादी मानतात जाल्यार हेर कांय जडवाद्यांच्या मतान ह्या गजालींच्या अस्तित्वाक म्हत्व नासता आनी मानसिक घडणुको पुरायपणान भौतिक प्रक्रियांचेर आदारिल्ल्यो आसतात.

जडवाद समजून घेवपाखातीर पयलीं जडवस्तू म्हळ्यार कितें तें समजूंचें पडटलें. सादारणपणान जडवस्तू वा भौतिक वस्तू म्हळ्यार जे वस्तूक अवकाशांत सुवात आसता, जी काळांतरान बदलत वता आनी जिच्यांत फकत भौतिक गूण आसतात तसली वस्तू. आकार, आकारमान, वस्तूमान, घनता, गती, तापमान, विद्युत्‌भार हांकां भौतिक गुणधर्म म्हणूं येतात. पूण भौतिक गुणधर्माची व्याख्या करप शक्य ना आनी भौतिक गुणधर्मांची पुराय वळेरीय करूंक जमना. पूण भौतिक गुणधर्म म्हळ्यार कसल्या प्रकारचे गुणधर्म हें सहज समजूं येता. गुणधर्मांची जाणवीकाय, इत्सा, सुखदुख्ख नियाळपाची शक्त हे मानसिक गूण आसात. भौतिक वस्त म्हळ्यार अशी वस्त जिच्यांत फकत भौतिक गुणधर्म आसात, म्हळ्यार मानसिक गुणधर्म नात. जडवादाचे नदरेंतल्यान असल्या भौतिक वस्तुंकूच स्वतंत्र आनी स्वायत्त अशें अस्तित्व आसता. आत्मो, मन, चैतन्य ह्यो गजाली कुडीचेंच एक आंग जाल्ल्यान त्यो भौतिक गजालींचोच एक वांटो जाता. आत्म्याक, मनाक, चैतन्याक, कुडीभायर स्वतंत्र, स्वायत्त अशें अस्तित्व नासता.

**इतिहासः** जडवाद ह्या तत्त्वगिन्यानांतले विचारधारेक बरोच पोरनो इतिहास आसा. अस्तंतेच्या तत्त्वगिन्यानाच्या मळार आयोनियन परंपरेंतलो विचारवंत थेल्स (इ.स.प. सवें शतमान) हाणें संवसाराची उत्पत्ती आनी सद्याची स्थिती हांचो संबंद मुळाव्या द्रव्यांभितर जावपी बदलांकडेन जोडिल्लो. ॲनक्सॅगोरस (इ.स.प. सुमार ५००-४२८), सॉक्रेटीस (इ.स.प. सुमार ४७०-३९९) आनी प्लॅटो (इ.स.प. सुमार ४२८-३४८) हांणी मन वा आत्मो हांकां भौतिक वस्तूंपरस वेगळें अशें अस्तित्व आसता, अशें मत उक्तायल्लें. एम्पेडोक्लीस (इ.स.प. सुमार ४९०-४३०) हाणें पृथ्वी, उदक, तेज आनी वायू हीं मूळ द्रव्यां मानलीं; आनी तांचें संघटन वा विघटन मोग आनी द्वेश ह्या दोन शक्तींक लागून घडटा, अशें ताचें मत आशिल्लें. पूण ह्यो शक्ती मानसिक काय भौतिक हाचेर ताणें स्पश्ट प्रस्न वा जाप दिवंक ना. ल्युसीपस (इ.स.प. सुमार ४५०) आनी डेमॉक्रीट्स (इ.स.प. सुमार ४६० ते ३६०) ह्या अणुवाद्यांनी जडवादी विचार स्पश्ट केले.

रितें अवकाश आनी तातूंत भोंवपी अणू हेभायर संवसारांत हेर कांयच ना, सगळ्यो वस्तू अणुंच्योच जाल्ल्यो आसतात, हो सिध्दांत म्हळ्यार अणुवाद. आत्मोय अणुंचोच आसता. भायल्या वस्तूंतल्यान भायर सरपी, अणुंपसून जाल्ल्यो काती जेन्ना ज्या अणूंचो आत्मो तयार जाल्लो आसता त्या वस्तूंचेर आदळटात, तेन्ना संवेदना निर्माण जातात, अशेंय अणुवादी मानताले. एपिक्यूरस (इ.स.प. ३४२-२७०) आनी लुक्रीशीयस (इ.स.प. सुमार ९६-५५) हांणीय ल्युसीपस-डेमॉक्रीट्स हांचो अणुवाद ताका मात्शें वेगळें मोडण दिवन आपणायलो आनी ते बुन्यादीचेर एक नैतिक जिवीतमार्ग आदारलो. सगळे तरेच्या धर्मीक अंधश्रध्दांकडल्यान सुटावो जावन मनशान शांत, समाधानी मनान जियेवचें, तातूंत ताचें कल्याण आसता; भौतिक सृश्टीच्या संदर्भांतूच मनशाक वेव्हार करूंक येता, ताचेर मनशाचें कल्याण आदारिल्लें आसा, ह्या कल्पनांचेर जडवादी मनशाची निती उबी रावल्या.

मध्य युगांत किरिस्तांव धर्मशास्त्र आनी ॲरिस्टॉटलच्या मतांचो प्रभाव युरोपांतले विचारसरणेचेर आशिल्लो. पूण सतराव्या शतमानांत प्येअर गासँदी (१५९२-१६५५) आनी थॉमस हॉब्स (१५८८-१६७९) हांणी जडवादी तत्त्वगिन्यान मुखार मांडलें आनी तांचो बरोच प्रभाव पडलो. गासँदीन त्याकाळार प्रचलित आशिल्ल्या ॲरिस्टॉटलवादी तत्त्वगिन्यानाकडेन फाट केली आनी ताच्या बदलाक एपिक्यूरसच्या तत्त्वगिन्यानाची थापणूक केली. पूण अणुवादाक ताणें मात्शें वेगळें मोडण दिलें. ताच्या मताप्रमाण सगळ्यो भौतिक वस्तू अणुच्योच तयार जातात; मनशाचें गिन्यान, निमणे भौतिक वस्तूंतल्यान मनशाक ज्यो संवेदना प्राप्त जातात, तांच्याचपसून तयार जाल्लें आसता. पूण गासँदी देवाचें अस्तित्व मानतालो आनी ताका लागून सगळे अणु देवान निर्मिल्यात अशें ताचें मत आशिल्लें. हॉब्स हाचो जडवाद वेगळे तरेचो आशिल्लो. भौतिक वस्तूक वा जडवस्तूकच अस्तित्व आसता, जें कितें आसा ताचें जडवस्तू स्वरुपांतच अस्तित्व आसता, हो ताचो मुळावो सिध्दांत आशिल्लो. जडवस्तू म्हळ्यार आपल्या अणभवाच्या भायर आस्तित्व आशिल्ली आनी जिका विस्तार आसा, अशी वस्तु अशें ताचें मत आशिल्लें.

अठराव्या शतमानांत विज्ञानाच्या मळार जाल्ले उदरगतीक लागून जडवादी विचारांक बरी पोसवण मेळ्ळी. शरीर शास्त्राचे (physiology) उदरगतींतल्यान मनशाच्या शरीराभितर मन वा आत्मो नांवाची वस्तू आसता, ह्या सारक्या संकल्पनांचें थोडें भोव निरसन जावंक लागलें. १६९२ ते १७०४ ह्या काळखंडांतलें एक हातबरप उजवाडाक आयलें. ताचो लेखक कोण ते समजूंक शकलेंना. ह्या हातबरपांत मानसिक घडणुकांचो डेमॉक्रिटसचे धर्तेचेर नियाळ घेतिल्लो. में ू आनी कूड हांच्यामदल्या संबंदांचेर ह्या हातबरपान बरोच उजवाड घालो, आनी युरोपांतले बरेच वैज ताचेर अभ्यास करूंक लागले. जडवादी नदरेंतल्यान बरयल्ल्या ह्या हातबरपाउपरांत तत्त्वगिन्यानाच्या मळार जडवादी विचारांक पालव दिवपाचो बरोच वावर जालो. ज्यूलियन ऑफ्रे द ला मेत्री ह्या वैजान शरीरशास्त्रीय नदरेंतल्यान जडवादाविशीं विवर्सून बरयलें. ताचो ग्रंथ L'Homme Machine (मनीस यंत्र) हो बरेच गाजलो. ताच्या मतान सगळ्यो मानसिक घडणुको म्हळ्यार कुडीच्योच घडणुको आसतात. दिदेरो ह्या तत्त्वचिंतकान जडद्रव्याचो संबंद संवेदनेवांगडा जोडून एक वेगळो सिध्दांत मांडलो. अठराव्या शतमानांत सगळ्यांत चड नामनेक पाविल्लो जडवादी विद्वान म्हळ्यार पॉल हिन्रीक डीट्रीच द ऑल्बाक, तो जल्मान जर्मन आशिल्लो पूण ताणें आपलें पुराय जिवीत पारिस हांगा सारलें. Systeme de la nature (निसर्गाची वेवस्था) ह्या १७७० बरयल्ल्या आपल्या ग्रंथांतल्यान ताणें एक वेगळो सिध्दांत मुखार माडलो. धर्मीक भावार्थाचेर ह्या ग्रंथांत बरीच टीका केल्या. ऑल्बाकच्या मतान सैमाच्या भायर कांयच नासता. सैम हो एकाच तत्त्वाचो जाल्लो आसा आनी हें तत्त्व म्हळ्यार गतिमान अशें जडद्रव्य. जडद्रव्य हें मुळाव्या चार प्रकारांचें आसता- पृथ्वी, उदक, उजो आनी वायू. ह्या चार प्रकारांची एकामेकांभितर भरसण जावन भौतिक वस्तू निर्माण जाता, अशें ताचें मत आशिल्लें. मनीस हो सैमाचोच एक वांटो आसा आनी ताका लागून गतिमान अशी भौतिकवस्तू म्हळ्यार मनशाचेंय स्वरुप आसा. मनशाच्यो संवेदना, भावना, इत्सा आनी बौध्दिक वेव्हार हांचें स्वरुप मनशाचे कुडीभितर घडपी कर्तुपां वा हालचाली अशेंच आसता. ऑल्बाकच्या मतान मनशाचे सगळे मानसिक वेव्हार भावनांच्या अवस्थांचेर आदारिल्ले आसतात आनी ती खंयचीय अवस्था म्हळ्यार कुडीची भितरल्ली अवस्था; कुडीची भितरली खंयचीय अवस्था म्हळ्यार भौतिक अवस्था.

जोसेफ प्रिस्टली ह्या ब्रिटीश संशोधकाच्या १७७० तल्या आनी लॅव्हॉयझीयर ह्या फ्रेंच संशोधकाच्या १७८० तल्या रसायनशास्त्रांतल्या संशोधनाक लागून जडवादी विचारसरणेक एक नवी विज्ञानीक बुन्याद मेळ्ळी. संशोधनाच्या वावरांतल्यान नव्यो गजाली उजवाडांत आयल्यो. फकत भौतिक द्रव्यां आनी तांचेमदीं कार्यकारणनेमांक (Law of causation) लागून जावपी भौतिक क्रिया प्रतिक्रिया हांच्या आदारान रसायनीक क्रिया पुरायपणान समजूंक येतात, हें सिध्द जालें. हेभायर प्राण्यांचे कुडींत ज्यो सेंद्रीय (organic) प्रक्रिया घडून येतात तांचेय स्वरुप रसायनीक (भौतिक) आसता, अशें स्पश्ट जालें. हाचेवयल्यान एकवटित अशा सैमाची संकल्पना बुदवंतांनी मानून घेतली. प्रिस्टली ह्या संशोधकाविशीं मात बरोच वाद जालो. एके वटेन जडवादी विचारसरणेक फाटबळ दितासतनाच दुसरेवटेन किरिस्तांव धर्मावयली आपली निश्ठा ताणें स्पश्टपणान उक्तायल्या.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत बरेच वैज्ञानिक आनी तत्त्वचिंतक जडवादाचो पाखो घेवंक मुखार आयले. लुडविग बुकनर (१८२४-९९) हाणें kraft and stoff (उर्जा आनी द्रव्य) ह्या १८५५ त उजवाडाक आयिल्ल्या आपल्या ग्रंथांत जडद्रव्याबगर हेर ऊर्जा वा शक्त नासता आनी उर्जेबगर जड द्रव्य नासता, हें तत्त्व अणभवांचे बसकेचेर विज्ञानाचेर आदारित आसता आनी ताकालागून तें आपणावचें अशें मत उक्तायलें. जेकब मोलशॉट, कार्ल फॉस्ट, एमिल ड्यू बॉयस्रेमंड हांणी शरीरशास्त्रांविशीं संशोधन शरीररसायनशास्त्राच्या (physiochemical) धर्तेचेर करून शरीरांतल्या प्रक्रियांचें स्पश्टीकरण रसायनशास्त्रीय तत्त्वांचो आदार घेवन करूंक जाता अशें सिध्द करपाचे यत्न केले. १८४७ त हेरमान होल्महोल्टस् हाणें प्राण्याची कूड म्हळ्यार जातूंत उर्जेची राखण जाता अशी भौतिक अवस्था हें दाखोवन दिलें. चार्लस् डार्विन हाच्या 'ओरिजीन ऑफ स्पिशीज' (१८५९) आनी टी. एच्. हक्सली हाच्या 'मॅन्स प्लेस इन नेचर' ह्या ग्रंथांनी जडवादी तत्त्वगिन्यानाच्या प्रचाराक बरेंच बळगें दिलें. उत्क्रांतीवादाच्या सिध्दांतांतल्यान तांणी जडवादी विचारसरणी चड घट केली. युरोप आनी संवसारांतले हेर जीवशास्त्रज्ञ, शरीरक्रियावैज्ञानिक आपापल्या वावराच्या मळार जडवादी विचार सभाविकपणान मानूंक लागले. सादारणपणान सुशिक्षित वर्गांमदींय जडवादी तत्त्वां रिगूंक लागलीं. कार्ल मार्क्स आनी फ्रेड्रीक एंजल्स हांणी जडवादी तत्त्वगिन्यानाच्या मळार मोलादीक वावर केलो. खासा करून एंजल्सान मनशाचो माकडाचे अवस्थेंतल्यान जावपी बदल आनी हेर मनीस जातीचे उदरगतीचेर बरोच उजवाड घालो. जडवादी तत्त्वगिन्यानाक एक वेगळें मोडण दिवन ह्या दोगांयनी आपली द्वंद्वात्मक जडवाद (Dialectical materialism) ही एक नवी विचारसरणी निर्माण केली. तांची परंपरा फुडें प्लेखोनोव्ह ह्या विचारवंतान चलयली.

विसाव्या शतमानांत 'सायबरनेटिक्स' (संक्रांतीविज्ञान) ह्या विज्ञानाच्या एका फांट्याची उदरगत जाली. संक्रांतीविज्ञान म्हळ्यार गणकयंत्राचें (Computer) शास्त्र. गणकयंत्राच्या पालवान आनी आदारान मनशाच्या शरीराचे निर्मणेचेर बरोच उजवाड पडलो आनी जडवादी विचारसरणेक फाटबळ मेळ्ळें. मानसशास्त्रज्ञांनी जडवादी विचारसरणेचे बुन्यादीचेर आपले सिध्दांत मांडले. रुडॉल्फ कारनॅप आनी ऑटो न्यूरथ हांच्या फुडारपणाखाल तार्किक प्रत्यक्षार्थवादाचें (Logical Positivism) तत्त्वगिन्यान मुखार मांडटल्यांनी जडवादी विचारसरणेची आपले परीन उदरगत केली. विसाव्या शेंकड्यांत तत्त्वगिन्यांनाच्या मळावयल्या विंगडपणाक लागून जडवादी विचारधारेनूय वेगळीं वेगळीं रुपां घेतलीं.

**भारतीय विचार:** श्वेताश्वतरोपनिषदांत बरयल्ल्या एका मताप्रमाण संवसाराचें मुळावें कारण देव न्हय तर पृथ्वीसारकी भूतद्रव्यांच आसात. कठोपनिषदांत आत्म्याविशीं बरयतना, कुडीपरस वेगळो आनी मरणाउपरांत जाचें अस्तित्व उरता असो आत्मो आसना अशें मत उक्तायलां. उपनिषदांच्या काळासावन भारतांत जडवादी विचारसरणेची कांय प्रमाणांत सुलूस लागिल्ली वाचूंक मेळटा. खऱ्या अर्थान जडवादी विचार मेकळेपणान मुखार मांडपी पयलो भारतीय तत्त्वचिंतक म्हळ्यार चार्वाक. चार्वाक हो एक मनीस आशिल्लो, काय त्या नांवाचो पंथ हाचेर बरोच वाद च्रालुच आसा. ह्या पंथाक लोकायतिक अशेंय म्हण्टाले. चार्वाकाच्या मतान प्रत्यक्ष हेंच प्रमाण. पृथ्वी, उदक, उजो आनी वायु हीं मुळावीं द्रव्यांच संवसाराचें मूळ कारण आसात. तांचो आमी प्रत्यक्षपणान अणभव घेवंक शकतात. आकाशतत्त्व हें प्रत्यक्ष नाशिल्ल्यान ताचें अस्तित्व ते मानीनात. उजो उश्ण आसप, उदक थंड आसप हेसारकी खाशेलेपणां दरेक गजालींच्या स्वभावाप्रमाण आसतात. ताचो दैवी शक्तीलागीं कांयच संबंद नासता. हे विचारसरणेक सभाववाद अशेंय म्हण्टात. चैतन्य आशिल्ली एकूच गजाल सत, ती म्हळ्यार शरीर. ह्या वादाक देहत्मवाद अशें नांव आसा. कात, चुनो, सुपारी, पानां हेसारक्यो गजाली एकठांय येतकच तांकां तांबडो रंग मेळटा. तेप्रमाण जडवस्तू एकामेकांभितर भरसल्याउपरांत चैतन्य निर्माण जाता. मरणाउपरांत हें चैतन्य सोंपता. अशे तरेचें मत चार्वाकाच्या नास्तिकवादी जडवादांत आसा. जडवस्तूचें मुळावें अस्तित्व मान्य करपी सांख्यदर्शन, न्यायदर्शन, वैशेषिक दर्शन ह्योय विचारधारा भारतीय परंपरेंत आसात, पूण तांणी जड वस्तूंवांगडा चैतन्याचेंय अस्तित्व मान्य केलां आनी ताका लागून ह्यो विचारधारा पुरायपणान जडवादी थारनात.

विज्ञानवाद आनी शून्यवाद हे दोन बौध्द संप्रदाय सोडीत जाल्यार बौध्द तत्त्वगिन्यानांतय पृथ्वी, उदक, उजो आनी वायू हीं चार तत्त्वां स्वतंत्रपणान अस्तित्वांत आसात आनी खीणाखीणाक बदलपी अणू हेंच

तांचें खरें स्वरुप आसा अशें मानलां. जैन तत्त्वगिन्यानांत बदलत वचपी जडद्रव्यांचें अस्तित्व मान्य केलां.

जडवादी विचारसरणी तत्त्वगिन्यानच न्हय तर मानसशास्त्र, भौतिकशास्त्र, धर्मशास्त्र, अतींद्रीय मानसशास्त्र (parapsychology) हांच्याय मळार प्रचलित आसा.

-कों. वि. सं. मं.

**जनगणना:** जनगणना म्हळ्यार लोकसंख्या मेजणी. ही एक पोरनी प्रथा आनी येशू क्रिस्तापयलींसावन ताचें अस्तित्व सांपडटा. 'जनगणना', हें उतर रोमन संस्थेंतल्यान उत्पन्न जालां, जातूंत प्रौढ दादले नागरिक आनी तांचे मालमत्तेविशीं नोंद दवरताले. हातूंतल्यान तीन गजाली साध्य जाताल्यो, त्यो म्हळ्यार, दर मनशाचो राजकी दर्जो थारावप, ताणें कितलो कर भरचो हें थारावप आनी लश्करी सेवेखातीर ताची पात्रताय थारावप.

एकाद्र्या वाठारांतल्या मनशांची संख्या मेजप, तांची पिराय, लिंग, लग्नाविशीं स्थिती, धर्म, आवयभास, शिक्षण, वेवसाय, जननक्षमता हांची म्हायती एकठांय करून ती उजवाडाक हाडप हाका जनगणना अशें म्हण्टात.

लोकसंख्येची मेजणी करपाची प्रथा शासनवेवस्थेचे स्थापणुकेइतलीच पोरनी आसा. ईजिप्शियन, ग्रीक, रोमन, हिब्रू, पर्शियन ह्या लोकांनी नेमान लोकसंख्येचें मेजप केल्याचें इतिहासांत नमूद केलां. चीन-जपानांत पोरन्या काळासावन अशें मेजप जातालें. सादारणपणान अशें मेजप, सैन्यभरतीखातीर योग्य पिराय आशिल्ल्या नागरिकांची वा कर भरपाखातीर पात्र लोकांची संख्या समजुपाखातीर गरज पडटा तेन्ना जातालें. पुराय शाराची लोकसंख्या मेजपाक युरोपांत पंदराव्या आनी सोळाव्या शतमानांत सुरवात जाली. मद्रास शाराचें अशें लोकसंख्या मेजप १६८७ त जाल्ल्याची नोंद आसा. उपरांत राश्ट्रीय पातळेचेर जनगणना सुरू जाली. स्वीडन हांगाची पयली जनगणना १७५० त जाली. अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत १७९० सावन आनी ग्रेट ब्रिटनांत १८०१ सावन दर धा वर्सांनी जनगणना जाता. भारतांत पयली जनगणना १८७२ त जाली आनी ताच्याउपरांत १८८१ सावन दर धा वर्सांनी जनगणना करूंक सुरवात केली. कांय राश्ट्रांनी जनगणना दर पांच वर्सांउपरांत जाता, जाल्यार कांय राश्ट्रांनी ती गरज पडटा तेन्ना करतात. हें काम बरेंच खर्चाचें आशिल्ल्यान चडशा राश्ट्रांनी दर धा वर्सांनी जनगणना करपाची प्रथा आसा. सुर्वेक जनगणनेच्या वेळार दरेक कुटुंबाविशींची म्हायती जमयताले, पूण उपरांत दर मनशाविशीं म्हायती जमोवंक सुरवात जाली. अशा स्वरुपाची राश्ट्रीय जनगणना सगळ्यांत पयलीं बेल्जियम हांगा १८४६ त आनी अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत १८५० त केली. ल्हवल्हव करून सगळ्या राश्ट्रांमदीं अशा प्रकारची जनगणना जावंक सुरवात जाली. १९६० वर्साच्या आसपास पुराय संवसारांत वट्ट १८० जनगणना जाल्यो.

मनशांची संख्या आनी तांची समाजीक, अर्थीक स्थिती काळाप्रमाण बदलत आशिल्ल्यान थाराविक काळखंडाउपरांत जनगणना करीत रावप गरजेचें आसता. ताका लागून भारत आनी चडशा हेर देशांनी दर धा वर्सांनी जी जनगणना करतात, तातूंत राश्ट्रीय पावंड्याचेर लोकसंख्येचो नियाळ करून सूत्रबध्द आनी सारकी म्हायती दिवप शक्य जाता.

जनगणनेविशीं जरी भारतांत बरीच जागृताय आसा आनी जनगणना म्हळ्यार सरकारी वेव्हार चलोवपाखातीर उपेगांत येवपी गजाल हें जरी सादारणपणान लोकांक खबर आसा, तरीपूण जनगणना अहवालांत आशिल्ल्या मोलादीक अशा म्हायतीविशीं खुबूच उण्या लोकांक ताची पुराय जाण आसा. लोकसंख्येविशींच्या मुळाव्या घडणुकांच्या कांटेकोर गिन्यानाच्या अभावाक लागून, जनगणनेविशीं उक्तायल्लें खंयचेय मत वा खबरापत्रांतली बातमी, लोक विस्वासान मानून घेतात. पूण सादारण मनशाच्या मनांत प्रस्न उप्रासतातः आमी कितले जाण आसात? कशे तरेन आमची विभागणी जाल्या? आमची संख्या कशा प्रमाणांत वाडटा? कितलेजाण शारांत रावतात आनी कितलेजाण गांवांत रावतात? दादल्यांची आनी बायलांची संख्या कशा प्रमाणांत आसा? आमचेमदले कितलेजाण बरोवंक आनी वाचूंक जाणात? आमी कसलो वावर करतात? जनगणनेउपरांत उजवाडायल्ले म्हायतींत ह्या आनी बऱ्याच हेर प्रस्नांची जाप मेळटा.

भारतांत लोकसभा, राज्यांच्यो विधानसभा, शारांच्यो महानगरपालिका वा नगरपालिका आनी गांवांच्या पंचायतींभितर लोकांचे प्रतिनिधी नेमान वेंचून येतात. ह्या वेंचून येवपी लोकप्रतिनिधींची संख्या थारावपाक दर धा वर्सांनी जावपी जनगणना उपेगाची थारता. जनगणनेची म्हायती वेंचणुकांच्या मतदारसंघांचो आंवाठ आनी शिमो थारावपाखातीरय उपेगी पडटा.

शाळांच्यो सुवाती आनी तांचें प्रमाण, वैजकी सुविधा आनी रोजगाराविशींची संद, दिसपट्ट्या जेवणखाणाविशींचो अदमास, हे सारकिल्या गरजेच्या गजालींसंबंदी येवजण आंखपाक लोकसंख्या कितली आसा आनी कशेतरेन तिची विभागणी जाल्या हें कळप गरजेचें. जनगणनेतल्यान एकठांय केल्ले म्हायतीवयल्यान समाजीक-अर्थीक येवजणी तयार करप सहजपणान साध्य जाता.

खंयच्याय देशाखातीर समाजीक-अर्थीक येवजणी तयार करूंक आनी लोकांचे उदरगतीखातीर वास्तववादी वावराचें नियोजन करपांत जनगणनेचो मोलाचो हातभार लागता. भारतासारक्या खंडप्राय देशाक तर आपले अर्थीक उदरगतीखातीर ही म्हायती मोलादीक आसा. भारतीय येवजणींचें मुखेल सुत्र म्हळ्यार गरिबी काबार करून गरजेच्या गजालींभितर स्वयंपूर्णताय हाडप. दुसऱ्या उतरांनी सांगचें म्हळ्यार बरें शिक्षण, भलायकी, राहाणीमान, शेतकी पिकावळ आनी उद्येगधंदे हांची उदरगत करून जीणेचो पांवडो ऊंच काडप हें भारतीय येवजणींचें मुखेल तत्त्व आसा. जनगणनेवरवींच ही येवजण फळादीक जावंक पावता.

भारतांत जनगणनेची व्हड परंपरा आसा. लोकसंख्येविशीं जगांत दुसरो क्रमांक आशिल्ल्या भारत देशांत जनगणनेक १९७२ त शंबर वर्सां जालीं. १९४१ मेरेन भारतांत जनगणना एकाच वेळार जाताली; म्हळ्यार एखाद्रे खास रातींत देशभरचें जनगणनेचें काम जातालें. फकत बर्फ पडपी वाठारांनी आनी ज्या जाग्यांचेर येरादारी सहजपणान जावंक शकनाशिल्ली असले वाठार मात हे गजालीक आडवाद आसताले. प्रवाशांचे मेजप करपाखातीर पध्दतशीर वेवस्था करची पडटाली. ज्या दिसा देशांतली लोकसंख्या सगळ्यांत उण्या प्रमाणांत येरादारी करता त्या दिसा जनगणना करची पडटाली आनी ह्यो सगळ्यो गजाली बऱ्याच अडचणींच्यो आशिल्ल्यो. १९४१ सावन 'एकाच वेळार मेजप' करपाची ही पध्दत रद्द केली आनी हें मेजप कांय काळाखातीर पातळावपाचें थारलें. हो काळ सादारणपणान तीन सप्तकांचो आसचो हें निश्चीत जालें.

जनगणनेचें म्हत्व संवसारभर जरी सद्याक जाणवलां तरीपूण अजून मेरेन कांय देशांनी खास करुन तिसऱ्या संवसारांतल्या (third world) देशांनी जनगणनेची पध्दत प्रचलित ना. तरीपूण अदमासान संवसाराची वट्ट लोकसंख्या १९८० वर्सा ४४५३ दशलक्ष इतली आसा अशें निश्चित केलां. हातूंत चीनाची लोकसंख्या सगळ्यांत चड म्हळ्यार १०३२ दशलक्ष (१९८२) जाल्यार भारताची दुसरी म्हळ्यार ६८५ दशलक्ष (१९८१) इतली आसा.

भारताची वट्ट लोकसंख्या २२ राज्यां आनी ९ केंद्रशासीत प्रदेशांनी आसा (१९८१). भारतांत २३% लोक शारांनी जाल्यार उरिल्ले गांवगिऱ्या वाठारांनी रावतात. दादल्यांचें प्रमाण बायलांपरस चड आसा. दर १००० दादल्यांफाटल्यान भारतांत ९३३ बायलो आसात. सुमार ४७% दादले आनी २५% बायलो १९८१ मेरेन वाचूंक आनी बरोवंक जाणात.

गोंयचेविशीं १८४८ सावन जनगणना करप चालू आसा. ताच्यापयली कांय वाठारांनी मर्यादित प्रमाणांत जनगणना जाल्ल्याची म्हायती आसा. जनगणना करपाचो पयलो संघटित आनी पध्दतशीर यत्न पयलेच फावट १८५० त जाल्लो, पूण ताची आंकडेवारी आतां सांपडना. १८७८ त

जनगणना करपाचो दुसरो यत्न जाल्लो दिसून येता, पूण त्या जनगणनेचीय आंकडेवारी मेळना. १८८० त जनगणनेचो तिसरो यत्न अर्दयारूच सोडून दिल्लो दिसून येता, ताका लागून १७ फेब्रुवारी १८८१ दिसा पर्यंत जनगणना जाली. ताचेउपरांत दर धा वर्सांनी गोंयांत जनगणना करप सुरू जालें.

१९८१ चे जनगणनेप्रमाण गोंयची वट्ट लोकसंख्या १०,०७,७४९ इतली आशिल्ली. हातूंतले ५,१०,१५२ दादले, जाल्यार ४,९७,५९७ बायलो. दादल्यांमदीं साक्षरतेचें प्रमाण ६६% जाल्यार बायलांमदीं ४८% आशिल्लें. गोंयचे सुमार ३२% लोक शारांच्या वाठारांनी रावताले.

भारतांत जनगणना पयलींसावन सहकारी आनी स्वेच्छापूर्वक धर्तेचेर जाता. सरकार आनी लोकांमदीं जनगणनेचें म्हत्व पुरायपणान समजून घेवन जाल्ल्या सहकाराची ती एक कुरू आसा. जनगणनेच्या वावरांत 'व्यक्तिगत म्हायती' (जनगणनेचे प्रस्न) म्हत्वाची आसता. ह्या पत्राचेर दर मनशाविशीं नोंद करपासारके तीन प्रकारचे प्रस्न आसतात.

लोकसंख्यातज्ञ जल्म आनी मरणाचें प्रमाण, लग्नाचें प्रमाण, स्थलांतराविशींची पध्दत, असल्यो गजाली जनगणनेवरवीं पुंजायिल्ल्या वयल्या म्हायतीवयल्यान थारायतात. हाचो उपेग समाजीक वा अर्थीक येवजणी थारावपाखातीर जाता. पूण फकत देशाचे लोकसंख्येचो आंकडोच कळप पुरो जायना. समाजीक उदरगत आनी शिक्षणीक उदरगत, भलायकी आनी रोजगाराच्यो सुविधा हांचेर विचार करपापासत लोकसंख्येचे आंकडेवारीचे पिराय, लिंग हेसारके हेर तपशील गरजेचे आसतात. तेचप्रमाण सद्याचे लोकसंख्येची पिराय आनी लिंग कळ्ळयाउपरांत भविश्यकाळांतल्या लोकसंख्येचे आंकडेवारीविशीं अदमास करप सोंपें जाता. सद्याचे लोकसंख्येची पिराय आनी लग्नाविशींची स्थिती सोदून काडल्यार ती भोव उपेगाची थारता. बायलांची लग्नावेळायली सरासरी पिराय सोदून काडून ताचेवयल्यान जल्माच्या प्रमाणाचेर उजवाड घालप सोंपें जाता. लोकसंख्येत लग्नाचें प्रमाण आनी विधवांचें प्रमाण सोदून काडूंकय हे म्हायतीचो पालव मेळटा. लग्नांच्या प्रमाणांत जावपी बदल आनी लग्न जावपावेळायली सरासरी पिराय हांचेवयल्यान सैमीक पध्दतीन लोकसंख्या वाडपाची क्षमता थारावंक येता.

पुराय देशाचो विचार करतना स्थलांतराविशींचे प्रस्न जरी चडशे म्हत्वाचे नासले तरी ताचेवयल्यान एखाद्र्या वाठाराचे लोकसंख्येंत जावपी बदल सहजपणान समजतात आनी स्थलांतराक लागून वाठाराचे लोकसंख्येत वाड वा उणेपण जाल्ल्याचें समजता. स्थलांतराक लागून बरेच समाजीक प्रस्न उप्रासतात. अर्थीक वावराक लागून जाल्ल्या ह्या स्थलांतरांतल्यान समाजीक तणाव निर्माण जातात. ह्या तणावांचो परिणाम जावन एखाद्र्या वाठाराचेर वायट परिस्थिती येवन थंयची शांतताय इबाडूंक शकता. स्थलांतराचे प्रक्रियेंत मुखेलपणान तरणे पिरायेवयल्या दादल्यांचो वांटो आसता. ताका लागून ते ज्या वाठारांतल्यान येतात थंय जाण्ट्या दादल्यांचें आनी बायलांचें प्रमाण चड जाता. असले लोकसंख्येची अर्थीक वावर करपाची तांक उणी आसता. हे गजालीक लागून झुजाउपरांत जशी परिस्थिती जाता, ताका 'मनीऑर्डर अर्थवेवस्था' म्हण्टात; आनी तातुंतल्यान अर्थीक परतंत्रताय वाडटा. स्थलांतराविशीं जमयल्ली म्हायती स्थलांतर करप्यांचे प्रकार, संख्या आनी हेर बारीकसारीक गजालींचो अभ्यास करपाखातीर गरजेची आसता.

भारताच्या संविधानाप्रमाण भारत सरकारान अनुसुचित जाती आनी अनुसुचित जमातींची उदरगत करपाची येवजण आसा. तांचें साक्षरतेचें प्रमाण आनी अर्थीक वावराचे म्हायतीवेल्यान ह्या मागाशिल्ल्या समाजांचे उदरगतीचें प्रमाण थारावप शक्य जाता.

भारत हो जरी सादारणपणान शेतवड वेवसायाचेर आदारिल्लो देश आसलो, तरी पूण काम करपी लोकसंख्येच्या प्रमाणांत बरेच म्हत्वाचे बदल घडिल्ले आसात. नवे नवे उद्येगधंदे उबे रावन थंय कामगारांचें प्रमाण वाडत आसा. सद्याच्या कामगार संख्येची पिराय, लिंग, शिक्षण हेविशींची म्हायती फुडारांत देशाखातीर गरज आशिल्ल्या मनीसबळाचो अदमास घेवंक सामकी गरजेची आसा. देशाच्या आनी विंगड विंगड वाठारांच्या अर्थीक उदरगतीचें परिमाण म्हूण आयज उद्येगधंद्याकडेन पळयतात. ह्या परिमाणाचो अदमास येवपाखातीर उद्येगीक मळार वावुरपी विंगड विंगड शाखांतल्या कामगारांची वर्गवारी करप म्हत्वाचें आसता.

जनगणनेतल्यान एकठांय केल्ली आंकडेवारी लोकसंख्येविशीं मोलादीक म्हायती मेळवपाखातीर भोव उपेगाची आसता आनी तिचे बरेच फायदे आसात.

-डॉ. एस्. के. गंधे

**जनपद:** जन म्हळ्यार समान संस्कृतायांचे वा एके जमातीचे लोक. तांणी थापणूक केल्ले वसाहतींक 'जनपद' म्हण्टात. वैदिक संहितांत 'जनपद' हो शब्द मेळना. पूण ब्राह्मण ग्रंथांत ताचे लोक आनी देश अशे दोनूय अर्थ आसात. छांदोग्य (५.११.५) आनी बृहदारण्यक (२.९.१८) ह्या उपनिषदांत मात 'जनपद' हाचो अर्थ देश असो सांगला. अमरकोशांत देश, राश्ट्र, विशय, जनपद हे शब्द समान अर्थान आयल्यात. तातूंत एकेकडेन 'जनपदो देशे' अशें म्हळां. वैदिक साहित्यांत ग्राम, विश आनी जन ह्यो संज्ञा वेगवेगळ्या पांवड्यावयल्या लोकांच्या पंगडांखातीर वापरल्यात. कांय कुटुंबां मेळून 'ग्राम' जातालें. कांय 'ग्रामां' मेळून 'विश' जातालें आनी ह्या सगळ्यांचें मेळून 'जन' जातालें.

आर्य लोक भारतांत आयले तेन्ना तांचे, जमातीप्रमाण कितलेशेच पंगड आशिल्ले. तातूंतल्या मुखेल पांच पंगडांक 'पंचजन' अशें म्हण्टाले. हे सगळे पंगड सुर्वेक भारताचे भुंयेचेर स्थायिक जावंक नाशिल्ल्यान तांची जीण चडशी भटकी (हेडपी) आशिल्ली. कांय काळाउपरांत तांणी वेगवेगळ्या वाठारांत आपल्यो वसणुको केल्यो. ब्राह्मणयुगाचे अखेरेक ते वसाहतीक 'जनपद' अशें म्हणपाक लागले. पाणिनीच्या काळामेरेन ह्या जनपदांची पुराय उदरगत जाल्ली दिसून येता. जनपदाची सुरवात केन्ना जाली, हाचेविशीं लिखित पुरावो मेळना. तरी पूण छांदोग्य आनी बृहदारण्यक उपनिषदांत, ब्राह्मणग्रंथ, अष्टाध्यायी, महाभारत, कौटिल्याचें अर्थशास्त्र, बौध्दग्रंथ, मत्स्य, मार्कंडेय, वामन, ब्रह्म ह्या पुराणांतल्या उल्लेखांवयल्यान अशें दिसता की, जनपदां इ.स.प. १००० सावन अस्तित्वांत आशिल्लीं आनी इ.स.प. चवथ्या शेंकड्यामेरेन तांची भरभराट जाली. फुडें गुप्तकाळामेरेन तीं कांय प्रमाणांत अस्तित्वांत आशिल्लीं अशें दिसता.

सबंद भारतांत त्या काळांत कितलीशींच जनपदां नंदतालीं. तांच्या नांवांची वळेरी मत्स्य, मार्कंडेय, वामन, ब्रह्म ह्या पुराणांत दिल्या. तातूंतल्या मुखेल जनपदांचीं नांवां अशीं- मगध, पौरव, ऐक्ष्वाकू, पंचाल, काशी, हैहय, कलिंग, अश्मक, मैथिल, शूरसेन आनी वीतिहोत्र. महाभारताच्या भीष्मपर्वांत २५० जनपदांचीं नांवां आयल्यांत. तातूंत जनपदांचे सात भुगोलीक वाठार केल्यात, ते अशे: मध्य, प्राच्य, उदीच्य, दक्षिणापथ, अपरांत, विंध्यपृष्ठ आनी पर्वत. विंध्यपृष्ठ वाठारांतलें 'अवंती' जनपद खासा नांव घेवपासारकें आशिल्लें. दक्षिणापथ वाठारांत 'अश्मक' ह्या एकाच जनपदाचें नांव मेळटा. 'प्रतिष्ठान' ही ताची राजधानी आशिल्ली. पर्वताश्रयी जनपदांचे दोन पंगड आशिल्ले: कुलू-कांगडासावन गढवाल-कुमाऊँ मेरेन पातळिल्लीं जनपदां हो एक पंगड आनी भारताच्या वायव्य वाठारांतल्या अभिसार, उरशा, दार्व, दरद, चित्रक, गंधार, कपिश, बाल्हीक, मुंजायन, कंबोज, लंपाक हीं जनपदां हो दुसरो पंगड. पहाडी जनपदांतलीं चडशीं जनपदां आयुधजीवी (शस्त्रांचेर पोट भरपी) पंगडांचीं आशिल्लीं.

पूर्विल्ल्या राज्यशास्त्रांत राज्याच्या सात आंगांतलें (राजा, अमात्य, जनपद, दुर्ग, कोष, दंड आनी मित्र) जनपद हें एक आंग आसलें. हांगा राज्याचो गांवगिरो वाठार आनी थंय रावपी लोक असो जनपदाचो अर्थ जाता. इ.स.प. १००० सावन इ.स.प. ५०० ह्या काळखंडाक 'जनपद युग'

अशें म्हण्टात. ह्या सगळ्या जनपदांत सोळा महाजनपदां आशिल्लीं. 'अंगुत्तरनिकाय' ह्या बौध्द ग्रंथांत तांचीं नांवां दिल्यांत, तीं अशीं: अंग, मगध, काशी, कोसल, वृजी, मल्ल, चेदी, वत्स, कुरु, पांचाल, मत्स्य, शूरसेन, अश्मक, अवंती, गंधार आनी कंबोज. हातूंतलीं काशी, कोसल आनी मगध हीं जनपदां चड नामनेक पावलीं.

हीं जनपदां म्हळ्यार फकत भुगोलीक वाठार न्हय, तर दरेका जनपदांतल्या लोकांची समाजीक, संस्कृतीक आनी राजकी जीण स्वतंत्र आसून स्वतंत्रपणानूच विकसित जाताली. दरेक जनपदाची भूंय थंय रावपी लोकांचे मालकीची आशिल्ली. तांची भास लेगीत एकूच आशिल्ली आनी ते समान दैवतांची पूजा आनी उपासना करताले. ताका लागून तांचेभितर भ्रातृभाव वसताले.

ज्या जनसंघान मूळ वसाहतीची थापणूक केल्या, ताची सत्ता त्या जनपदाचेर चलताली. ते संघ चड करुन क्षत्रियांचे आसताले. पाणिनीन तांकां 'जनपदिन्' अशें म्हळां. त्या क्षत्रियांच्या नांवांवयल्यानूच त्या त्या जनपदांक नांवां मेळटालीं. पूर्विल्ल्या साहित्यांत कांय जनपदांचो उल्लेख जोडयेन केल्लो दिसून येता. देखीकः कुरु-पांचाल, काशी-कोसल, अंग-मगध.

एकाद्रो वाठार जिकून थंयच्या मूळ लोकांक आपल्या शेकातळा हाडून वा मात्तूय वसणूक नाशिल्ल्या वाठारांत नवी वसणूक करून जनपदांची थापणूक जाताली.

जनपदाचे अंतर्गत वेवस्थेचें कौटिल्यान जें वर्णन केलां, तातूंत अशें म्हळां की, एका जनपदांत सुमार ८०० खेडीं आनी हेर कितलेशेच ल्हानव्हड गांव आसताले. जनपदाची राजधानी चड करून एका किल्ल्यांत आसताली. जनपदांचे दोन प्रकार आशिल्लेः कांय जनपदांचेर राजाची सत्ता चलताली, जाल्यार कांय जनपदां हीं गणराज्यां आशिल्लीं. पाणिनीच्या काळांतलीं मगध, कलिंग, सूरमस, कोसल, कुरु, पांचाल, अश्मक, साल्वेय, गांधारी, साल्व, कंबोज, अवंती आनी कुंती हीं जनपदां राजाच्या हाताखाला आशिल्लीं. हेर चडशीं जनपदां गणाच्या हाताखाला आशिल्लीं. गणराज्यांत शासनाचे विंगड विंगड प्रकार चालू आसताले. जनपद राजाच्या हातासकयल वा गणाच्या हातासकयल आसलें तरी कारभार, सभा आनी परिशद हांच्या मार्गदर्शनाखाला चलतालो.

वैदिक युगाउपरांत ह्या जनपदांच्या आदारान भारतीय संस्कृतायेची उदरगत जाली. पूण काळांतरान हीं सगळीं जनपदां दुबळीं जालीं आनी इ.स.प. चवथ्या शेंकड्यांत तीं मगध साम्राज्यांत विलीन जालीं. पूण फुडें जायते शेंकडेमेरेन तीं मांडलिक राज्यां म्हूण अस्तित्वांत आशिल्लीं. गुप्त साम्राज्यांत कितलींशींच जनपदां नंदतालीं. कांय जनपदांच्यो गुप्त काळांतल्यो मुद्रा मेळ्ळ्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**जप:** अक्षर, उतर, नाम, श्लोक वा मंत्र भावनेन उच्चारप हे क्रियेक 'जप' म्हण्टात. विधानयुक्त अशे मंत्र, मोट्यान ल्हव वा मनांतल्या मनांत उच्चारप, हाका धर्मीक संदर्भांत 'जप' अशें म्हळां. जपाच्यो विंगड विंगड व्याख्या फुडलेतरेन येतात. दुर्गादास हाच्या मता प्रमाण 'जिह्वौष्ठादिव्यापाररहितं शब्दार्थयोश्चिन्तनं हृदुच्चारः' म्हळ्यार जीब, ओंठ आनी हेरांच्या आदारान रहित अशीं उतरां आनी अर्थ हांचें चिंतन म्हणजेच, काळजांत मंत्र उच्चारप हो 'जप' जावन आसा. मंत्र आनी हेर गजाली भावनेन वा निश्ठेन पर्थून पर्थून म्हणप हाका 'जप' म्हण्टात, अशें गी. श. को. त सांगलां.

'जप' हो प्रकार वैदिक काळासावन अस्तित्वांत आशिल्ल्याचो दिसता. वेदकाळार यज्ञसंस्थेत होमादी कर्मकांड चलतासतना एकाद्रो मंत्र वा खासा मंत्रांचो जप करपाची पध्दत आसली.

भगवद्गीतेंत सगळ्या यज्ञांत जपयज्ञ म्हळ्यार भगवंताची विभुती आसा, अशें म्हळां. जपयज्ञ हो सात्विक आनी अहिंसक यज्ञ आसा, म्हूण कर्मकांडांतल्या विधीयज्ञांपरस जपयज्ञ श्रेश्ठ मानचो, अशें मनू म्हण्टा (मनु. २.८६).

ये पाकयज्ञाश्चत्वारो विधियज्ञसमन्विताः ।
सर्वे ते जपयज्ञस्य कलां नार्हन्ति षोडशीम्।।

अर्थ- (वैश्वदेव, बलिकर्म, नित्यश्राध्द आनी अतिथी भोजन ह्या) चार विधीयज्ञयुक्त पाकयज्ञांक जपयज्ञाच्या सोळाव्या कलेची पात्रता ना.

जप हें एक मानसिक कर्म जावन आसा. यज्ञ, पूजा, आराधना, होमहवन आनी हेर कर्मांचो जप, हो तातूंतलो म्हत्वाचो वांटो जावन आसा. कांय जाणांच्या मतान संध्यावंदनांतले जप हें मुखेल कर्म आसता, पूण जप हें संध्यावंदना बगर मुखेल कर्म आसा. देखीक गायत्री पुरश्चरण, पूजा, स्तोत्र, होम हीं जपकर्मांचीं आंगां म्हूण मानल्यांत. हेर कसलींच आंगां आचरनासतनाय केल्लो नामजप मन निवळ दवरपी, पापाचो नाश करपी, देव बळगें वाडोवपी मानला. संतवाङ्मयांत असोच नामाचो महिमा बरोवन दवरला.

जप हें अनुष्ठान आशिल्ल्यान ताच्या फाटल्यान शास्त्रांचें विधीनिशेध आनी होमहवनादी विधानां आसात. नामस्मरण आनी जप हांच्या तंत्रांत थोडो फरक आसता. नामस्मरणाचो हिशोब दवरचो पडना, पूण जपाचो हिशोब दवरतात. जप मेजलो ना जाल्यार ताचें फळ मेळना. ह्या जपाचें मेजप मणिमाला, वर्णमाला वा करमाला हांणी करतात. जप सुरू करतकच थारायिल्ल्या जपाचो आंकडो पुराय करपापासत जपकर्त्यांच्या मनाचो ध्यास वाडत वता. ताका लागून योगप्रक्रियेंतल्या शुभेच्छा, विचारणा, तनुमानसा, सत्त्वापत्ती आनी असंसक्ती हे ज्ञानाचे पांच मुखेल पांवडे चडून तो वयर वता.

जप हो हाताच्या बोटांनी वा माळेंतल्या मणयांनी वा सुत्रांतल्या म्हळ्यार दोरयेंतल्या गांठीनी मेजपाचो आसता. त्यावेळार मनांतल्या मनांत वा ल्हव ल्हव शुचिर्भूत जावन, एकाग्र चित्तान मंत्र उच्चारपाचो आसता. ह्या मंत्रांत देवाची एक वा जायतीं उतरां आसतात वा तांचे गूण गायिल्ले आसतात.

घरांत, न्हंयचे देगेर, गोठ्यांत, अग्निशाळेंत, तीर्थक्षेत्रार, उपास्य देवतेचे मुर्तीमुखार बसून जप करपाक येता. जप करतना उलयनात. आंकवार (ब्रह्मचारी) वा अहिताग्नी मनशान उणेंच म्हळ्यार १०८ फावट मंत्र जपचो तर वानप्रस्थी आनी यती हांणी हजारांपरस चड फावट मंत्र जपचो अशें सांगलां. ॐ ह्या एका अक्षरासावन सहस्त्रनामां, रामरक्षादी, स्तोत्रां, शतरुद्रीय, गायत्रीमंत्र, वैदिक सुक्तां आनी हेर प्रकारचे जप शास्त्रांत सांगल्यात. प्राणोपासकाखातीर बृद्दारण्यकांत 'असतो मा सद्गमय' ह्या जपाचें विधान सांगलां. तर्पणापयलीं वा फांतोडेच्या होमाउपरांत जप करचो अशें गोभिल सांगता. 'ॐ नमो विष्णवे' हो षडाक्षरी, 'ॐ नमो वासुदेवाय' हो अष्टाक्षरी आनी 'ॐ नमो भगवते वासुदेवाय' हो द्वादशाक्षरी मंत्र १००८ वा १०८ फावट जपचो अशें वृध्दहारींत सांगलां.

जगांतल्या सगळ्या धर्मांतल्या धर्मीक लोकांत जप करतना जपाची माळ वापरपाची पध्दत आसा. जपाचे माळेंत ३२, ९९, १०८ वा हेर संख्या आशिल्ले मणी वा गांठी आसतात. मणिसंख्या वा ग्रंथिसंख्या ही त्या त्या संप्रदायाप्रमाण थारायल्ली आसता. शैव, वैष्णव हांचे जपमाळेंत १०८ मणी आसतात. शैवांल्यो जपमाळो खास करून रुद्राक्षाच्यो आसतात. वैष्णव तुळशीच्या लांकडाची माळ करतात. चंदनाच्या लांकडाच्यो तेचपरी प्रवाळ, मोती आनी विंगड विंगड प्रकारचीं रत्नां हांच्योय जपमाळो आसतात.

जपाचे तीन प्रकार फुडलेतरेन आसातः १. वाचिक- स्पश्ट उच्चार करून मोट्यान जप करप २. उपांशू- मंत्रदेवतेच्या जाग्यार मन लावन, जीबेन आनी ओंठान पुटपुटत मंत्र जपप ३. मानस- मंत्राच्या अर्थाकडेन प्रामाणिक रावन मनांतल्या मनांत जप करप.

महाभारताच्या शांतिपर्वांत जपाविशीं जी फोडणिशी आयल्या, ताचेवेल्यान जप हें महाफल दिवपी, पूण ज्ञानमार्गापरस कमी योग्यतायेचें साधन आशिल्ल्याचें व्यासाचें मत दिसता. फळ मेळपाची अपेक्षा धरीनासतना जप करपी व्हडपण जोडटात. तांच्यो सगळयो इत्सा पुराय

जातात, अशें व्यास म्हण्टा.

पातंजल योगसूत्रांत प्रणव म्हळ्यार 'ओम' काराचो जप करपाक सांगलां. ॐ म्हळ्यार साक्षात परमेश्वर आशिल्ल्यान, प्रणवाचो अर्थ एकसारको मनांत दवरल्यार परमेश्वराक पावता. जपान पातकां नाश पावतात, देव-देवतांची कृपा जाता, भलायकी बरी उरता, इत्सा पुराय जातात, अनिश्ठ गजाली आफुडनात अशे बरे गूण जपकर्माचे सांगल्यात.

अजाणपणान केल्लें पातक जपावरवीं ना जावं येता पूण जाणून बुजून केल्लें पातक जपावरवीं ना जायना अशें मनू (११.४६) सांगता.

डॉ. गोपीनाथ कवराज आपल्या पूजातत्त्व ग्रंथांत जपाचें आध्यात्मिक रहस्य फुडलेतरेन सांगता.

जप ह्या साधनाचो संवसारांतल्या सगळ्या संप्रदायांनी आदर केला. आयजमेरेन जायत्या गिन्यानी साधकांनी जपाच्या माध्यमांतल्यान खास उन्नती प्राप्त करून घेतल्या. जपावेळार म्हणपाक येवपी मंत्र मनांतल्यान साधकांचो उध्दार करतात. यंत्रा साखे मंत्राचें प्राणहीन उच्चारण करप म्हळ्यार जप न्हय. भावनेन, श्रध्देन, जप करपी भगवंताकडेन लीन जाता. तेन्नाच त्या जपापसून फळ मेळटा. पतंजलीन अशा जपाक मंत्राची भावना म्हळां. मंत्रार्थाचे भावनेन जप करपी ल्हव ल्हव मंत्रमय जायत वता होच जपाचो मुखेल उद्देश जावन आसा.

यहूदी (ज्यू), क्रिस्ती आनी इस्लाम धर्मांत मंत्रजपाची पध्दत आसा. भारतांतल्या हिंदू, जैन, बौध्द, शीख, हेर आनी धर्मसंप्रदायांत संप्रदायाची दीक्षा जे व्यक्तीक दितात ती व्यक्ती थारायिल्ले देवतेचो मंत्र जपता. हो मंत्र गुरुन दिवपाचो आसता. भारतांत मुजी वेळार मुंज्याक भट, सावित्री मंत्राचो उपदेश करतात. हो मंत्र गायत्री छंदात आशिल्ल्यान ताका गायत्री मंत्रय म्हण्टात.

गोंयांत तेचपरी कोंकणांत जानवें धारण करपी वर्गांभितर, मुजीच्या वेळार मुंज्याक 'गायत्री मंत्राचो' उपदेश करपाची चाल आयजूय चलता.

- कों. वि. सं. मं.

**जपान:** आशियाई उत्तर पॅसिफिक म्हासागरांत आशिल्लो एक देश. हाका जपानी लोक 'निपोन' वा 'निहोन' अशेंय म्हण्टात. ह्या नांवाचो अर्थ सुर्याचें मूळ असो जाता. जपानाक उदेत्या सुर्याचो देश म्हूण वळखतात. क्षेत्रफळ ३,७७,७०८ चौ.किमी.; विस्तार सुमार २४° उत्तर ते ४६° उत्तर आनी १०३° उदेंत ते १४७° उदेंत. लोकसंख्या: १२,१५,१०,००० (१९८६). राजधानी- टोकियो.

**भूंयवर्णन:** हो देश चार व्हडल्यां जुंव्यानी वांटून गेला. होन्शू, हेक्कायडो, क्यूशू आनी शिकोकू अशीं तांचीं नांवां आसात. हेभायर ह्या देशांत हजारांनी ल्हानव्हड हेर जुंवे आसात. जपान हो एक दोंगरी वाठार आसा. हांगाचे चडशे दोंगर ज्वालामुखींतल्यान उप्रासल्यात. हांगा भूंयकांपूय बरेच जातात. होन्शू हो जपानांतलो सगळ्यांत व्हड जुंवो. ह्या जुंव्याचेर जपानी आल्प्स पर्वत आसा. माउंट फुजी हो ह्या देशांतलो नामनेचो पर्वत. हाचे तेंगशेची उंचाय ३,७७६ मी. इतली आसा. जपानांत न्हंयो खूब आसात. हातूंतल्यो म्हत्वाच्यो म्हळ्यार शिनानो, इशिकारी आनी टोन. जपानांतल्या दर्याचें नांव सेटो नायकाय अशें आसा. हाचो आवांठ सादारण १० लाख चौ.किमी. आसा.

**हवामान:** जपानाच्या विंगड विंगड वाठारांनी हवामान वेगवेगळें आसलें, तरी व्हड आनी खर गीम जाल्यार ल्हान आनी शीतळ शियाळो हें हांगाचें खाशेलपण. दोंगरी वाठाराचो आनी पॅसिफिक म्हासागरांतल्या प्रवाहांचो हांगाच्या हवामानाचेर परिणाम जाता. ह्या देशांत शियातेंपार खुबकडेन दंव पडटा; पावसाळ्यांत बर्फ पडटा. हांगा पावस उटंगारांनी पडटा. वादळांय जातात. होक्कायडो सोडित जाल्यार हेर चडशा वाठारांनी वर्साक सरासरी १०० मिमी. पावस पडटा. जपानांत जून-जुलय आनी सप्टेंबर-ऑक्टोबर असो दोन सत्रांनी पावसाळो आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात:** जपानातली भूंय पिकावळीक तशी बरी ना. हांगा तरेकतरेच्या मातयेचे प्रकार आसात. पूण पीक फाव त्या प्रमाणांत मेळना. देशाच्या आवांठाचो बरेच वांटो रानांनी आडायला. थंय साबार प्रकारचीं झाडां जातात. ह्या झाडांतल्यान लांकूड मेळटा आनी ह्या लांकडाचो वापर जपानांत व्हडा प्रमाणांत जाता. रानां सादारणपणान तीन प्रकारचीं आसात- १. अरुंद पानांचीं रानां, २. भरसल्ले जातीचीं रानां आनी ३. उश्ण कटिबंधांतलीं रुंद पानांचीं सदां पाचवीचार उरपी रानां.

जपानांत पयलीं दिसपी बरीच मोनजात सद्या काबार जावन गेल्या. जपानी बोकडे, मेरवां, तपकिरी आनी काळीं वास्वेलां, माकड, कोले, बॅजर, रानडुकर, ऑटर, चानयो, सोशे हांचें प्रमाण चड आसा. बोकीं, हांयसां, घोण, गिदां, पारवे, कोगूळ, घुघमां, ह्या सुकण्यांचेंय प्रमाण बरेंच आसा.

**इतिहास:** जाणकारांच्या मतान सद्याच्या जपानी लोकांचे पूर्वज म्हळ्यार आशिया खंडांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांतल्यान हांगा पाविल्ले लोक. इ.स.प. च्या काळांत हांगा सुर्वेक जोमोन संस्कृताय आशिल्ली. ह्या काळार जपानी लोक जनावरां, नुस्तें, फळां, झाडपालो खावन दीस सारताले. उपरांत हांगा आशियाच्या हेर वाठारांतले लोक आयले. ते शेतकामाचेर जियेवंक लागले. हो काळ इ.स.प. २०० चो आशिल्लो.

इ.स.प. च्या चवथ्या शतमानांत जपानांत सादारणपणान चिनी संस्कृताय पावली. इ.स. ५९३ सावन हांगा राजेशाय सुरू जाली. ह्या तेंपार हेयन (उपरांत क्योटो) हें राजधानीचें शार आशिल्लें. ही राजवट इ.स. ८५८ वर्सामेरेन चल्ली. उपरांत राज्यकारभार, फुजीवारा ह्या भाटकार घराण्याकडेन गेलो. ह्या घराण्यान सुमार ३०० वर्सां राज्य चलयलें.

ह्या काळांत झुजपी लोकांचो 'सामुराई' हो वर्ग जपानांत तयार जालो. ह्या वर्गांत दोन पंगड आशिल्ले: तायरा आनी मिनामोतो. राजाचें आनी हेर दरबारी लोकांचें बरेपण घेवपाखातीर ह्या दोनूय पंगडांमदीं सदांच झुजां जातालीं. ११६० वर्सा मिनामोतो घराण्यान राज्यकारभार आपल्या हातांत घेतलो, पूण ११८५ त तायरा घराण्यान तांकां काबार करून योरितोमो ह्या आपल्या घराण्याच्या मुखेल्याखाल आपलें राज्य हांगा घट केलें. ११९२ त राजान योरितोमो हाका शोगून (सेनापती) अशी पदवी दिली. १३३६ वर्सा आशिकागा ह्या सामुराई फुडाऱ्याकडेन राजवट आयली. १५८५ त तोकुगावा घराण्याचें राज्य चालू जावन तें सुमार अडेचशीं वर्सां तिगलें.

१८६७ वर्सा शोगुनची सत्ता पुरायपणान सोंपून दाइम्यो ह्या संरजामदारी पंगडाकडेन जपानची राजवट आयली. १८६८ वर्सा मुत्सुहितो हो सान भुरगो राजगादयेर बसलो. ह्याच वर्सा राजधानी क्योटो हांगासावन एडो (उपरांतचे टोकियो) ह्या शारांत हाडली. राजान स्वता जपानांत सुराज्य हाडलें, अशें जाहीर करुन स्वताक 'मेजी' ही भोवमानाची पदवी घेतली. जपानाच्या इतिहासांत १८६७ त देशांत बदल घडोवन हाडपाचें थारलें. तेप्रमाण हांगा आधुनिकीकरणाची प्रक्रिया सुरू जाली. सरकारान कितल्योश्योच शाळा उक्त्यो करून तांत्रिक शिक्षणाची बुन्याद घाली. अस्तंतेकडल्यान बऱ्योच गजाली शिकून जपानान उद्येगीक क्रांती सुरू केली. १८८९ वर्सा पयली राज्यघटना तयार जाली आनी तिचेवरवीं ह्या देशाचो कारभार चलूंक लागलो. १८९४ सावन फुडल्या ३०-३५ वर्सांच्या काळांत जपान बऱ्याच ल्हानव्हड झुजांनी घुस्पलो. पयलें झूज कोरियाच्या प्रस्नावयल्यान चीन आनी जपान हाचेमदीं उप्रासलें आनी तातूंत जपानाक जैत मेळ्ळें १९१४ त रशिया-जपान झूज जालें आनी ह्याय झुजांत जपानाकूच जैत मेळ्ळें. १९१४ त पयल्या झुजाक सुरवात जातकच जपानान इंग्लंडावांगडा कबलात करून जर्मनीवांगडा झूज जाहीर केलें. हाका लागून आंतरराश्ट्रीय पांवड्यार जपानाचें म्हत्व वाडलें.

दुसऱ्या म्हाझुजांतूय जपानान वांटो घेतलो. डिसेंबर १९४१ त, ह्या देशान अमेरिकेवांगडा झूज सुरू केलें. ताचेपयलीं ताणें जर्मनी आनी इटली हांचेवांगडा इश्टागतीची कबलात केल्ली. जपान-अमेरिका हांचेमदलें झूज १९४५ मेरेन चल्लें. जपानान अमेरिकेच्या पर्ल हार्बर




हांगा घुरी घालून तें नश्ट केलें, जाल्यार १९४५ चे सुर्वेक अमेरिकेन जपानांतल्या शारांचो आनी उद्येगीक वसाहतींचो विध्वंस केलो. उपरांत ६ ऑगस्ट ह्या दिसा हिरोशिमाचेर अमेरिकेन पयलो अणुबाँब घालो आनी ९ ऑगस्टाक नागासाकीचेर दुसरो घालो. १४ सप्टेंबराक जपानान हार मानली. दुसऱ्या म्हाझुजांत जपानाचें बरेंच लुकसाण जालें. रशियन सैन्य मँचुरिया हांगा घुसलें. १९५१ त जपानाक इश्ट राश्ट्रांच्या चपक्यांतल्यान पर्थून स्वतंत्रताय मेळ्ळी आनी झुजबंदीची कबलात जाली. जपानान झुजांत जाल्लें लुकसाण रोकडेंच भरून काडलें. १९५५ त हांगा लिबरल डेमोक्रेटिक पक्षाची थापणूक जाली. १९८२ त ह्या पक्षाचो यासुहिरो नाकासोने पंतप्रधान आनी राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९८६ तल्या वेंचणुकांनी तो पर्थून वेंचून आयलो. ६ नोव्हेंबर १९८७ दिसा नाकासोने निवृत्त जाल्यान, नोबुरु ताकेशिता हांगाचो पंतप्रधान जालो. १९८९ त ताकेशिता हाचेर व्हड प्रमाणांत भ्रश्टाचाराचे आरोप जाल्यान ताका राजीनामो दिवचो पडलो आनी सोसुके उनो पंतप्रधान जालो.

**राज्यवेवस्था:** जपानाच्या पयले राज्यघटनेवरवी (१८८९) ह्या देशाची सगळी सत्ता राजाकडेन आशिल्ली. १९४७ त जाहीर जाल्ले दुसरे राज्यघटनेवरवीं सत्ता लोकांकडेन आयली. हे घटनेन जपानांत खऱ्या अर्थान लोकशाय हाडली. हांगाचे संसदेक 'डाआीट' म्हण्टात. ती दोन घरांनी भरता. सगळे कायदे थंयच जातात. हे संसदेच्या सकयल्या घरांत ५११ आनी वयल्या घरांत २५२ वांगडी आसात. जपानांत राजा आसा, पूण तो फकत नांवापुरतो आसता. राजाचें पद ताच्या वंशजाकडेन वता. हांगा बरेच राजकी पक्ष आसात. जपानी राज्यघटनेचें खाशेलपण म्हळ्यार तातूंत सरकाराक झूज करपाचो हक्क न्हयकारला.

**अर्थीक स्थिती:** जपान हो आशिया खंडांतलो सगळ्यांत चड फुडारिल्लो देश आसा. वर्सुकी उत्पादनांत ह्या देशाचो अमेरिका आनी रशिया हांच्याफाटोफाट क्रमांक लागता.

शेतकामांतल्यान ह्या देशाक ३% उत्पन्न मेळटा. फकत १५% इतली जमीन शेतवडीखाल आसा. देशांत जाय आशिल्ली ७०% पिकावळ हांगा पिकता. ल्हान आवाठांत चड पिकावळ काडपाचें तंत्र हांगा आपणायलां. तांदूळ हें मुखेल पीक आसा; हेभायर गंव, बार्ली, ऊंस, च्या, तंबाखू, हीय पिकां हांगा जातात. फळांचेय बरेंच उत्पादन जाता. गोरवां, कुकडां हांची पोसवण करून दूद, मांस, तांतयां हांच्या उत्पादनांत बरीच वाड केल्या. जपानांत तांबें, भांगर, रुपें, मँगनीज, शिशें हीं खनिजां मेळटात, पूण तांचें प्रमाण फाव तशें ना; देखून खनिजांची आयात करची पडटा. ह्या देशांत नुस्तेमारीचो वेवसाय बेसबरो चलता. वर्सुकी सुमार १,०७,७५,००० टन इतलें नुस्तें हांगा मेळटा. नुस्तेमारीखातीर चडसो यांत्रिक व्हड्यांचो उपेग जाता.

उद्येगीक मळार जपानान केल्ली उदरगत अजापाची आसा. देशाच्या उत्पन्नाचो ३९% वांटो उद्येगांतल्यान येता. येरादारीचीं साधनां, इलेक्ट्रॉनिक्स वस्तू, लोखण, तिखें, कपडो, प्लॅस्टिक, सिरॅमिक्स हांचें उत्पादन करपी कारखाने व्हडा प्रमाणांत आसात. संवसारांत तयार जावपी सुमार अर्द्यो बोटी जपानांत तयार जातात. सुमार ७० लाख मोटारींचें हांगा उत्पादन जाता. जपानी कॉम्प्युटर (संगणक), कॅमेरा, कॅल्क्युलेटर्स, रेडिओ, टी. व्ही. सेट, टेपरिकॉर्डर, दुर्बिणी, घडयाळी ह्यो वस्तू संवसारभर नामनेच्यो आसात. हांगाच्या कारखान्यांनी आनी उद्येगीक उत्पादकांनी आपल्यो शाखा संवसारांतल्या हेर देशांनीय उक्त्यो केल्यात. जपानी वस्तूंक सगळेकडेन वाडटी मागणी आसा. हांगाच्या उद्येगीक मळावयली उदरगत पळोवंक संवसारभरचे लोक जपानाक भेट दितात. येन हें हांगाचें अधिकृत चलन जावन आसा.

**येरादारी आनी संचारण:** जपानांत २९,८०० किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आसात, जाल्यार रस्त्यांची लांबाय ११,४७,००० किमी. इतली आसा. हांगाचे सुमार ४०% लोक रेल्वेमार्गांवयल्यान प्रवास करतात.

जपानांत सद्याक २,५०,००,००० मोटारी आसात. ह्या देशांत बरींच म्हत्वाचीं ल्हान व्हड बंदरां आसात आनी उदकांतल्यान बरीच येरादारी चलता. हांगाची मुखेल विमान सेवा म्हळ्यार जपान एअर लायन्स ही आसा.

ह्या देशांत १२५ दिसाळीं आसात, आनी तांचो खप ४,६०,००० इतलो आसा. सुमार २,३०० हेर नेमाळीं ह्या देशांत उजवाडाक येतात. ७०% जपानी घरांनी दूरध्वनीची सोय आसा.

**लोक आनी समाजजीण:** जपानांतल्या लोकांचो मूळ धर्म शिन्टो. ताच्या फाटोफाट बौध्द धर्माक हांगा म्हत्व आसा. हे दोनूय धर्म मानपी लोकांचें प्रमाण जपानांत चड आसा. सुमार १% परस उण्या प्रमाणांत किरीस्तांव धर्माचे लोक आसात. ह्या देशांतले सुमार ७०% लोक शारांनी रावतात. हांगा कुटुंबसंख्येक बरेंच म्हत्व आसा. रासवळ कुटुंबाचें प्रमाण मात आतां उणें जायत आसा. एका तेंपार जाण्ट्यांक, घोवाक कुटुंबांत बरेच हक्क आसताले, ते आतां उणे जाल्यात. बायलांक हांगा समान हक्क आसात आनी तीं भौशिक जिणेंत बरोच वांटो घेतात. जपानांतल्या लोकांक सणांची आनी उत्सवांची भोव आवड आसा. नवें वर्स आनी राजाचो वाडदिस हे उत्सव हांगा व्हडा दबाज्यान मनयतात. उत्सवांच्या वेळार बरेच जपानी लोक पारंपारिक भेस म्हळ्यार किमोनो घालून एकामेकांक भेटतात.

जपानांतले तीन म्हत्वाचे नाट्यप्रकार म्हळ्यार नो, काबुकी आनी खामसुत्री बावल्यांचे खेळ. इकेबाना आनी बोनसाय हे घर सजोवपाचे खास जपानी प्रकार. ह्या देशांत लांकडाच्या ठेकळ्यांनी कागदांचेर चित्रं रंगोवपाची खास कला दिसून येता. हे भायर गायन, नृत्य, कलाकुसर हातूंत जपानी लोकांचें खोशेलपण दिश्टी पडटा. जपानी पध्दतीन च्या पियोवपचो सुवाळो पर्यटकांखातीर आकर्शणाचो थारला.

**शिक्षण:** जपानी कायद्याप्रमाण दरेका भुरग्याक ६ वर्सां मुळावें आनी ३ वर्सां माध्यमिक शिक्षण सक्तीचें आसा. हें शिक्षण सरकारी शाळांनी फुकट मेळटा. जपानांत साक्षरतेचें प्रमाण बरें आसा. १५ वर्सां पिरायेवयल्या लोकांमदीं ते ९९% परस चड आसा. ह्या देशांत ४५० विश्वविद्यालयां आसात. उंचेल्या पांवड्यावयलें शिक्षण घेवपाखातीर हेर देशांतले बरेच विद्यार्थी हांगा येतात. हांगाचें सगळ्यांत व्हडलें विश्वविद्यालय म्हळ्यार टोकियो हांगाचें 'निहोन' विश्वविद्यालय. हातूंत १,१०,००० भुरग्यांच्या शिक्षणाची सोय आसा.

**भाशा आनी साहित्य:** हांगाची राश्ट्रभाशा जपानी. हे भाशेक बऱ्योच बोली आसात. टोकियोचे बोलीक प्रमाण भाशा म्हूण मान्यताय आसा. जपानी लिपी ही मूळ चीनी लिपीवयल्यान उदरगत जावन सद्याच्या स्वरुपांत पावल्या. सद्या जपानांत प्रमाण आशिल्ल्या लिपीक 'कतमजिरी' अशें म्हण्टात.

जपानी भाशा बरीच कठीण आसा, आनी ती उलोवपाच्यो बऱ्योच शैली आसात. ही भाशा उलयतना आवाजाच्या पट्टेक बरेंच म्हत्व आसा.

जपानी साहित्यांतलीं पोरन्यांतलीं पोरनी पुस्तकां आठव्या शतमानांतली. त्या काळांतलो 'मान्योशूर' हो कवितांझेलो बरोच म्हत्वाचो आसा. हातूंत वेगवेगळ्या कविंच्यो सुमार ४५०० परस चड कविता आसात. सदळपणान जपानी साहित्याच्या इतिहासाचे चार काळखंड मानतात. हेयन काळ (७९४-११८५), मध्ययुगीन काळ (११८५-१५८७), तो कुगावाचो काळ (१६०३-१८५७) आनी आर्विल्लो काळ (१८५७ सावन आयजमेरेन). पयलींच्या काळांतलें एक म्हत्वाचें पुस्तक म्हळ्यार 'गेन्जीची काणी' ही कादंबरी. मध्ययुगीन काळांत इतिहासीक कादंबऱ्यो खऱ्योच उजवाडाक आयल्यो. हातूंतली म्हत्वाची कादंबरी म्हळ्यार 'हेयकेंची काणी' ह्या काळांत 'नो' ह्या नाट्य प्रकाराचो जल्म जालो. तोकुगावाच्या काळांत हायकू हो काव्यप्रकार आनी काबुकी आनी खामसुत्री बावल्यांचो खेळ हांचो जल्म जालो. आर्विल्ल्या काळांत जपानी साहित्याचेर अस्तंतेच्या राश्ट्रांतल्या साहित्याचो बरोच प्रभाव दिसता. १९६८ त यासुनारी कावाबाटा ह्या जपानी बरोवप्याक पयलेच फावट नोबेल पुस्कार मेळ्ळो. तानीझाकी, मिशीमा, आबे हे आनीक कांय नामनेचे नवे लेखक.

**म्हत्वाचीं थळां:** टोकियोसावन कोबे मेरेनचो सगळो वाठार म्हत्वाचो आसा. टोकियो ही राजधानी म्हळ्यार संवसारांतलें पांचवें व्हड शार. हाच्या फाटोफाट योकोहामा, ओसाका, नागोया हीं देशांतलीं हेर म्हत्वाचीं शारां आसात. कामाकुरा हांगा बुध्दाचो एक व्हड पुतळो आसा.

- अ. ना. म्हांबरो

## जमदग्नि:

**जमदग्नि:** भृगुकुळांतलो एक गोत्रप्रवर्तक ऋषी आनी प्रवर. वैवस्वत मन्वंतरांतल्या सप्तर्षींमदलो एक. परशुराम भार्गवाचो बापूय, ऋचीक और्व नांवाचो ऋषी आनी कान्यकुब्ज देशाच्या गाधी राजाची चली सत्यवती हांचो व्हडलो पूत, विश्वामित्राचो भाचो अशा विंगड विंगड रुपांत जमदग्निक वळखतात.

जमदग्निचे पुराणांत जायतेकडेन उल्लेख येतात. ऋग्वेदांत जमदग्नि आनी ताच्या घराण्याचो उल्लेख आयला. ऋग्वेदांत एक जाण्टो आनी गिन्यानी ऋषी म्हूण ताका पाचारला. तैत्तिरीय संहितेंत (३.३.५.२) एक व्हड तपस्वी म्हूण ताचो उल्लेख येता. हे संहितेंत, वसिष्ठ ऋषीक विरोध करपी विश्वामित्राच्या पंगडाचो ऋषी म्हूण ताची वळख मेळटा. अथर्ववेदांत हेर ऋषींवांगडा ताचो उल्लेख आयला. ऐतरेय ब्राह्मणांत (७.१६) हरिश्चंद्राच्या राजसूय यज्ञांत विश्वामित्र, वसिष्ठ आनी जमदग्नि हे अनुक्रमान 'होतृ', 'ब्रम्हन्' आनी 'अध्वर्यु' आशिल्ल्याचें सांगलां. तो अक्षरब्रह्माचो उपदेश करतालो अशें तैत्तिरीय आरण्यकांत (१.९) सांगलां. महाभारताच्या अनुशासन पर्वांत (१६५.४४) ताका 'उत्तर दिकेचो स्वामी' म्हळां. अर्जुनाच्या जल्मउत्सवावेळार हाजीर आशिल्ल्याचो तशेंच ताणें वृषादर्भीक दोश सांगिल्ल्याचो उल्लेख, महाभारतांत मेळटा. जमदग्नि एक सूक्तद्रष्टा ऋषी आसून ऋग्वेदांतल्या कांय सुक्तांचें प्रणयन ताणें केलां.

जमदग्निची कथा पुराणांत फुडले तरेन आयल्या:

जमदग्निचे बायलेचें नांव रेणुका आसलें. ती प्रसेनजिताची चली आसली. तांकां रुमण्वान, सुषेण, वसुमान, विश्वावसू आनी परशुराम अशे पांच पूत जाले.

जमदग्नि सभावान कोपिश्ट आसलो. एक फावट तो आपले लीलेन बाण सोडीत बसलो आनी सोडिल्लो बाण परत हाडपाखातीर ताणें रेणुकेक फर्मायलें. रेणुका काम करतना दनपारच्या खर वोतांत तिका खूब पुरो जालें आनी विसव घेवपाक ती एका रुखापोंदा बसली. ताका लागून तिका परत येवपाक कळाव जालो. वेळ कित्याक जालो? अशें जमदग्निन विचारतकच रेणुकेन आपणाक वोताची बादा जाली, अशें सांगलें. हें आयकून जमदग्नि सुर्याकडेन झुजपाक भायर सरलो. सूर्य जमदग्निक पळोवन शरण आयलो. सुर्यान ताका सत्री आनी जोतीं भेटयलीं. तेचपरी आपूण स्वता तागेर जल्म घेतलो, हें उतरूय दिलें. काळांतरान परशुरामाच्या रुपान सुर्यान जमदग्निगेर जल्म घेतलो.

एक फावट रेणुका एका तळ्यांत न्हांवपाक गेल्ली आसतना थंय तिका चित्रांगद गंधर्व आपल्या बायलांवांगडा क्रीडा करतना दिश्टी पडलो. ती तान भूक विसरून गंधर्वाची क्रीडा पळेत उरली. ताका लागून तिका घरा परतुपाक कळाव जालो. बायलेक घरा परतुपाक वेळ जालो, म्हूण जमदग्निक संताप मारलो. ताणें आपल्या पुतांक रेणुकेक जिवेशीं मारपाक सांगलें. परशुराम सोडून हेरांनी ताचें सागणें मानलेंना. हाका लागून जमदग्निन आपल्या चार पुतांक मारून उडयले. परशुरामान बापायची आज्ञा पाळून आवयक मारिल्ल्यान जमदग्नि ताचेर प्रसन्न जालो आनी ताणें ताका वर माग म्हूण सांगलें. परशुरामान वराच्या रुपान आवय आनी भाव हांकां जिवे कर म्हूण सांगलें. जमदग्निन व्हडा खोशयेन हो वर परशुरामाक दिवन रेणुका आनी स्वताच्या चार पुतांक जिवे केले.

स्वताच्या रागीट स्वभावाक लागून स्वताची बायल आनी पुतांक मरण आयलें, हाचो जमदग्निक फुडें पश्चाताप जालो. फुडें जमदग्निन आपलो

रागीट सभाव सोडलो आनी तो शांत जालो. ताणें गंगेचे देगेर एक हजार वर्सां तप करून इंद्राकडल्यान कामधेनू (गाय) मागून घेतली. ती कामधेनू, कार्तवीर्य राजा एक दीस बळयां जमदग्निच्या आश्रमांतल्यान घेवन गेलो. ह्या वेळार कामधेनून स्वताच्या आंगांतल्यान शेंकड्यांनी सैन्य निर्मून कार्तवीर्याक हरयलो. कार्तवीर्यान ह्या पराभवाचो सूड घेवपाक जमदग्निक जिवेशीं मारलो. बापायक जिवेशी मारला, ही गजाल कळटकच परशुराम संतापलो आनी कार्तवीर्याक जिवेशी मारून कामधेनू घेवन आयलो.

कांयकडेन बापायच्या वधाचो सूड घेवपाक कार्तवीर्याच्या भुरग्यांनी जमदग्निक जिवेशी मारलो, अशीय कथा चलता.

जमदग्निविशीं आनीकूय कांय गजाली पुराणांत येतात, त्यो अश्योः

सौदास राजाच्या यज्ञांत वसिष्ठाचो चलो शक्ती हाणें विश्वामित्राक वाद-विवादांत हरोवन धांवडावन घालो. विश्वामित्र तसोच जमदग्नि म्हन्यांत गेलो आनी ताका घडिल्ली गजाल सांगली. जमदग्निन ससर्परी नांवाची विद्या (भाशणाची तांक आनी शक्त वाडोवपी विद्या) सुर्याकडल्यान हाडून विश्वामित्राक दिली आनी ताचें अज्ञान ना केलें.

मित्रावरू, अश्वी आनी सोम हांचेकडेनूय जमदग्निचो संबंद आयिल्लो दिसता.

ऋग्वेदांतल्या णव्या मंडलांतल्या ६२ व्या आनी ६५ व्या सुक्तांत जमदग्निन सोमाचें स्तवन केलां. धाव्या मंडलांतल्या १०१ व्या सुक्तांत ताणें तनूनपात अग्नीचें स्तवन केलां. तातूंत भारती, इळा आनी सरस्वती ह्या तीन देवतांचो ताणें उल्लेख केला.

श्राध्द हो विधी सगळ्यांत पयलीं जमदग्निन सुरू केलो, अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**जमशेटपूरः** भारतांतलें पयल्या क्रमांकाचें उद्येगीक शार. बिहार राज्यांत पाटणा शारा उपरांत जमशेटपूर शाराचो क्रमांक लागता. ह्या शाराचो एकूण आवांठ ६३.८१ चौ.किमी. आसा. लोकसंख्याः ४,५७,४४० (१९८१).

सुर्वेक हांगा सुवर्णरेखा आनी खारकई ह्या दोन न्हंयांमदीं साकूची नांवाची ल्हानशीच वस्ती आशिल्ली. १९०७ वर्सा ह्या साकूची वाठारांत मुंबयचो नामनेचो पारसी वेपारी जमशेटजी नसरवानजी टाटा हाणें नव्या नगराची थापणूक केली. ताच्या नांवावेल्यानूच ह्या वाठाराक जमशेटपूर हें नांव पडलें. जमशेटजी टाटान ह्या वाठारांत 'द टाटा आयर्न अँड स्टील कंपनी' हो लोखण-तीख्याचो कारखानो घालो. ह्या कारखान्या लागसारूच छोटा नागपूर पठाराचे आग्नेय कड्याचेर, आशियांतली नामनेची लोखणाखण आसा. तातूंतलें लोहधातूक काडून ह्या कारखान्यांत निवळ करतात; तशेंच बीड आनी तरेकतरांचें तीखेंय हांगा तयार करतात. जमशेटपूर शारांतल्या सुमार ८ चौ.किमी. जमनीच्या जाग्याचेर हो कारखानो पातळिल्लो आसा. सद्या ह्या कारखान्याचे भोंवतणी तीख्याच्यो सर्यो, खिळे, स्क्रू, जस्ताच्या उदकांत काडिल्ले नळयेचे पत्रे, तरेकवार लोखणी पत्रे, विजेच्यो सर्यो, रेल्वे इंजिन आनी तांचे वेगवेगळे भाग, रेल्वेचीं चाकां, तीख्याचे नळ, शेतांत वापरपाचीं आयुधां आदी जायत्या वस्तूंचे कारखाने आसात.

जमशेटपूर नगरांत आशिल्ले व्हड रस्ते, उद्यानां, खेळामळां, घरां, बाजार, मनोरंजनाचीं साधनां, शाळा, महाविद्यालयां आदी सगळें पळोवन ही नगर रचना बरेच कश्ट घेवन आंखल्या म्हणपाची गवाय मेळटा. हांगाचो ज्युबिली पार्काचो आवांठ ८१ हेक्टर आसा. नितळसाण आनी सोबितकाय हांचो सुंदर संगम ह्या शाराचे नगररचणुकेंत पळोवंक मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**जम्मू आनी काश्मीरः** भारतीय संघराज्यांतलें एक राज्य. हें राज्य भारताचे उत्तर दिकेक वसलां. ह्या राज्याचे अस्तंतेक पाकिस्तान, वायव्येक अफगाणिस्तान आनी रशिया, उत्तरेक चीन, उदेंतेक तिबेट, दक्षिणेक पंजाब आनी हिमाचल प्रदेश ह्यो राज्याच्यो शिमो आसात. अक्षांश आनी रेखांशः ३२° १०' उत्तर ते ३७° १०' उत्तर आनी ७२° ३०' उदेंत ते ८०° ३०' उदेंत.

**भूंयवर्णनः** जम्मू काश्मीरची भूंय दक्षिणेकडल्यान उत्तरेवटेन चडटी आशिल्ली आसा. जम्मू वाठार सपाट आसा. ताचे फुडलो वाठार व्हड-व्हड दोंगर देगणांनी भरिल्लो आसा. सादारणपणान ऊंच पर्वतातेमकां, पर्वताच्यो लांब वळी, पठार, देगणां, ल्हान ल्हान मैदानी वाठार, न्हंयो, बर्फाच्यो न्हंयो, दाट रानां, हांणी ह्या राज्याचो वाठार भरला. जम्मूचें उत्तरेक क्रमान शिवालिक दोंगुल्यो, 'कंडी' नांवाचो निर्जल फातराचो वाठार, उपरांत शिवालिक वा जम्मू आनी पूंछ दोंगुल्ल्यो, मध्य हिमालयाचे धौलधार आनी पीर पंजाल फांटे, हिमाद्री (ग्रेटर हिमालय) मेळटात. हिमालय (मध्य) आनी हिमाद्री मजगतीं काश्मीरचें देगण आनी हिमाद्रीचो नंगापर्वत आसा. ताचे पलतडीं देवसई आनी झास्कर पर्वतफांटे, लडाख पर्वतफांटे, काराकारोम पर्वत अशे क्रमान आसात. उत्तरेकडल्या अफगाण शिमेर हिंदुकुश हांगा मिंटाका खिंड आसा. राज्याच्या ईशान्य वाठारांत आशिल्ल्या लडाख पठाराचे चांगचेन्मो फांट्यान दोन वांटे केल्यात. उत्तरेवटेनच्या वांट्यान चांगचेन्मो न्हंयचें देगण आसा. गरम उदकाचे झरे हांगा दिश्टी पडटात. खाऱ्या उदकाची सरोवरांय हांगा आसात. पठाराचे उत्तरेकडल्यान दक्षिणेवटेनच्या वाठारांत सोड मैदान, अक्साई चीन, लोकझुंग पर्वत, लिंगझिटांग मैदान हे वाठार आस्पावतात.

झेलम, सिंधू, तावी, चिनाब, रवी ह्यो राज्यांतल्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो आसात. दल, वूलर मनशाल, नागिन, सुरीन्सर, मन्सार, संसार राज्यांतलीं म्हत्वाचीं तळीं आसात. राज्यांतली म्हत्वाची तेमकां फुडलेतरेन आसात. माऊंट गॉडविन ऑस्टिन वा के-२ (८,६११ मी. संवसारांत हाचो दुसरो क्रमांक लागता), हिडन (८,६०८ मी.), ब्रॉड (८,०४७ मी.), गाशेरब्रुम (८०३५ मी.), रकपोशी (७,७८८ मी.), हारमोश (७,३०७ मी.), मशेरब्रुम (७,८२१ मी.), दीसोघील (७,८८६ मी.)

**हवामानः** जम्मू वाठारांत शिंयाळ्याच्या दिसांनी उण्यांत उणें तापमान ७° से. ते २३°से. आसता. गिमाच्या दिसांनी तें ४६° से. मेरेन पावता. काश्मीर वाठारांत शिंयाळ्यांत (जानेवारी) तापमान सरासरी - ०.७° से. आसता. जुलय म्हयन्यांत तें २२.८° से. मेरेन पावता. लेह हांगा सरासरी तापमान -८.२° से. (जानेवारी) ते १७° से. (जुलय) मेरेन आसता. कांय फावट तें -२८.३° से. मेरेन सकल देंवता. इराण अफगाणिस्तानाकडल्यान येवपी सौम्य वादळां, नैर्ऋत्य मोसमी वारें आनी लडाख पठारावेल्यान येवपी नेटाचें वारें हाका लागून जम्मू-काश्मीर राज्याचें हवामान विंगड विंगड स्वरुपांत बदलता. जम्मू वाठाराक नैर्ऋत्य मोसमी वाऱ्यांसावन पावस मेळटा. पावसाचें सरासरी प्रमाण १११ सेंमी. आसता. काश्मीर वाठारांत झडपी वर्सुकी ६५.३ सेंमी. पावसांतलो ३८ सेंमी. पावस जानेवारी ते मे म्हयन्यांत हिमरुपान पडटा. सादारणपणान काश्मीर देगणांतलें हवामान समशीतोश्ण, भूंयमध्य सामुद्रिक हवामानासारकें आसता.

**वनस्पत आनी मोनजातः** कोंडे आनी झोंपां, पाचवी रुखावळ, ओक, लॉरैल, चेस्टनट, देवदार, प्लेन, स्प्रूस, सीडार, सिल्व्हर फर, पाइन, यू, ब्ल्यू पाईन, अक्रोड, सूचिपर्णी रुख, बर्च, ऱ्होडो डेंड्रॉन, विलो आनी पाचवीचार झोंपां ह्या राज्यांत आसात. चीन आनी चिनार हे राज्यांतले खाशेले रुख आसात. अक्रोड, जर्दाळू, सफरचंद, पेअर, पीच, प्लम, तुती आनी बेरी हीं फळझाडां, अंबाडी, हिंग, जिरें, कमळबी, पाणगवत, बाभळी, तूण, धामणी, मंज, पोपाय, दंती, कुमूद, नीळ, अडुळसो, कण्हेर, बोर, फुलाई ही वनस्पतूय राज्यांत दिसता. राज्यांतली २०,८९१.८९ किमी. सुवात रानाखाला आसा. रानासावन राज्याक वर्सुकी ४७७ दशलक्ष रुपयांची येणावळ मेळटा.




रानांतले मोनजातींमदीं बारशिंगा, हनगाल, काळवीट, मारखोर (रानांतलो बोकडो), कस्तुरीमृग, काळें आनी पिंगशें वास्वेल, आयबेक्स, लांडगो, खोकड, गोरल हीं जनावरां राज्यांत दिसतात. सवण्यांमदीं निळें बकें, हिमकुक्कुट, चकोर, पार्ट्रिज, फेझंट, सँड ग्राउज, ग्रीब, गल, प्लवर, स्नाइप, पारवो, बदक आनी तांचे विंगड विंगड प्रकार, गरुड, नाइटजार, खिफ्ट, कोकीळ, ससाणो, घुबड, खंड्या, हुपू, बुलबुल आनी हेर हांचो आस्पाव जाता. गुना, पोहर नांवाचे विखारी सोरोप आनी साव्या नुस्त्याचे १३ प्रकार राज्यांत दिसतात.

**इतिहासः** काश्मीरांत 'बुर्झाहोम' हांगा उत्खननांत सांपडिल्ल्या फातरांच्या आयुधांवेल्यान आनी फोणकुलांवेल्यान, लोक जमनींत कोरांतिल्ल्या फोणांनी रावताले, अशें अनुमान तज्ञांनी काडलां. महाभारत, बृहत्संहिता, नीलमत ह्या ग्रंथांत काश्मीराविशींची म्हायती मेळटा. 'राजतरंगिणी'चो आदार घेतल्यार काश्मीरांत जायतीं शतमानां गोनर्दीय वंशाचें राज्य आशिल्ल्याचें समजता. गोनर्द आनी ताचे तीन वारस हांचे मगध देशाच्या जरासंधाकडेन संबंद आसले. ताच्या काळांत कौरव आनी पांडव हांचें म्हाझूज जाल्लें, अशें म्हण्टात. गोनर्दवंशी घराण्यांत ३५ राजे जावन गेले. तांच्या फाटल्यान पांडव घराण्यांतल्या राजांनी थंय राज्य केलें. लव, कुश, खाजेंद्र, गोधर, सुवर्ण, जनक हे राजे अशोकाआदले आसात. रत्नाकर ह्या कवीन वयल्या काळखंडाविशींच्या जायत्या गजालींची म्हायती दिल्या.

इ.स.प. ५१२ वर्सा इराणच्या पयल्या डरायसान काश्मीर वाठार जिखिल्लो. अलेक्झांडर हिंदुस्थानाचेर घाल्ली घुरी सोंपोवन परततना पूंछ आनी नौशहर हांगाचो राजा अभिसार ताका शरण गेलो. तक्षशिला हांगा राज्यपाल आसतना अशोकाचो काश्मीराकडेन लागींचो संबंद आयलो. ताणें थंय बौध्द धर्माचो प्रसार केलो. ताच्या वंशीयांनी उपरांत थंय राज्य केलें. ह्या वंशांतलो दामोदर हाणें काश्मीर शिमेर राज्यथापणुकेचो यत्न करपी म्लेच्छांआड झूज केल्लें.

पयल्या शेंकड्यांत कुशाण वंशांतलो राजा कनिष्क हाणें काश्मीर जिखून कनिष्कपूर शार वसयलें. कनिष्क, हुविष्क, जुष्क ह्या राजांनी थंय बौध्द धर्माचो प्रसार केलो. जुष्काफाटल्यान सत्तेर आयिल्ल्या अभिमन्यू हाणें वैदीक धर्माचें पुनरुज्जीवन केलें. इ.स. ५१५ वर्सा हूण वंशांतल्या मिहिरकुल हाणें काश्मीर हातासलें. माळव्याचो यशोवर्मन् आनी मगधाचो बालादित्य हांणी काश्मीराचेर घुरयो घालून ताका बरेतरेन राज्य चलोवंक दिलें ना. ताच्याफाटल्यान जाल्ल्या कांय राजांमदल्या युधिष्ठिर ह्या राजाक लोकांनी धांवडायलो आनी विक्रमादित्याच्या सोयऱ्याक, पयलो प्रतापादित्य ह्या नांवान काश्मीरच्या राजपदार बसयलो. ताणें बरे तरेन राज्य चलयलें. ३५० वर्सां हूणांची राजवट सोंपली, तेन्ना गोनर्दवंशातलो मेघवाहन राज्यपदार आयलो. ताच्याफाटल्यान सत्तेर आयिल्ल्या प्रवरसेन हाणें श्रीनगर शार पर्थून वसयलें. प्रवरसेनाफाटल्यान सत्तेर आयिल्ल्या हिरण्य आनी तोरमाण हांचेमदीं जेन्ना झूज उप्रासलें, तेन्ना उज्जयिनिचो राजा विक्रमादित्य हर्ष हाणें हिरण्याच्या कारभाऱ्याचे सांगणेवेल्यान थंय हस्तक्षेप केलो आनी मातृगुप्ताक काश्मीर राज्य दिलें. दुसरो प्रवरसेन, दुसरो युधिष्ठिर, नरेंद्रादित्य, रणादित्य, बालादित्य हांणी काश्मीराचें राज्य चलयलें. बालादित्याक चलो नाशिल्ल्यान गोनर्द वंश सोंपलो.

सातव्या शतमानाच्या पयल्या अर्दांत दुर्लभवर्धन काश्मीरचो राजा जालो. तो बालादित्याचो जावंय आसलो. ताणें कर्कोट घराण्याची थापणूक केली. दुर्लभवर्धनासावनचो काश्मीरचो इतिहास पुराय तारखेप्रमाण सांपडटा. दुर्लभवर्धनाचें राज्य तिबेटसावन नर्मदा न्हंयेमेरेन पातळिल्लें. तक्षशिला, हजारा, राजोरी, परणोत्य (पूंछ) हांगाचे राजे ताचे मांडलिक आसले. चिनी भोंवडेकार ह्युएनत्संग त्या काळांत काश्मीराक पाविल्लो. हे वंशकुळयेंतलो ललितादित्य राजा खूब पराक्रमी आसलो. ताणें कनौज, मगध, गौड, कलिंग हे वाठार जिखिल्ले. हे

वंशकुळयेंतल्या वज्रादित्य, पृथ्व्यापीड, संग्रामापीड, जयापीड हांणी काश्मीराचेर राज्य केलें. हे वंशकुळयेंतलो निमाणो राजा बृहस्पती पिरायेन ल्हान आसलो. हे गजालीचो फायदो घेवन ताच्या मामान राज्य आपल्या हातांत घेतलें. अशेतरेन कर्कोट राजघराणे सोंपलें. कर्कोटवंशीयांचे राजवटींत वास्तुकला आनी हेर गिन्यानाच्या मळार व्हड उदरगत जाली. मार्तंडमंदिर आनी परिहासपूर नगर हांकां वास्तुकलेच्यो खास देखी म्हूण वळखतात.

बृहस्पतीचो मामा उत्पल आसलो. ताच्या घराण्याक उत्पल घराणें म्हूण वळखतात. ह्या घराण्याची थापणूक अंवतिवर्मन् हाणें ८५५ वर्सा केल्ली. हो काश्मीरचो पडटो काळ आसलो. ताणें राज्यांतली परिस्थिती निवळावन पर्थून शांतता आनी सुवेवस्था हाडली. ताणें विद्वानांक आलाशिरो दिलो. ताच्या फाटल्यान शंकरवर्मन् राजपदार आयलो. ताच्या फाटल्यान राज्यांतली घुस्पट वाडली. ९०२ वर्सा सत्तेर आयिल्लो गोपालवर्मन् नेण्टो आशिल्ल्यान, ताची आवय सुगंधा राज्यकारभार पळयताली. फुडें तंत्री नांवाच्या सैनिक पंगडान सुगंधेक धांवडावन, तिचोच एक सोयरो पार्थ हाका राज्य दिलें. ताच्याफाटल्यान निर्जितवर्मन्, चक्रवर्मन्, संभुवर्धन राज्यपदार आयले. ९३९-४८ मजगतीं यशस्कर राजा जालो. ताचे राजवटींत राज्यांत पुराय शांतताय आनी सुवेवस्था आयली. ताच्या फाटल्यान संग्रामदेव, क्षेमगुप्त, अभिमन्यू हे राजा जाले. अभिमन्यू पिरायेन ल्हान आशिल्ल्यान ताची आवय दिद्दा सगळो राज्यकारभार चलयताली. ९८१ ते १००३ हो काळ तिणें आपल्या कर्तुत्वान गाजयलो. तिच्या मरणाउपरांत लोहार घराण्यांतलो तिचो भाचो संग्रामराज राजा जालो.

संग्रामराजान लोहर घराण्याची थापणूक करून १००३ ते १०२८ मेरेन राज्य केलें. ताचे राजवटींत काश्मीर प्रदेशाची भरभराट जाली. ताच्याफाटल्यान हरिहरराज, अनंतदेव हांणी राज्य केलें. अनंतदेवाची बायल सूर्यमती हिणें आपलो पूत कलश हाचेखातीर अनंतदेवाक सत्ता सोडपाक लायली. कलश हाणें राज्यांत जायत्यो सुदारणा केल्यो. ताच्या फाटल्यान उत्कर्ष १०८९ त राजा जालो. उच्चल (११०१-१२) आनी सुस्सल (१११२-२०), जयसिंह (११२८-५५) हांणी लोहर घराण्याची राजवट फुडें चलयली. राज्यांतले भितरले घुस्पटीक लागून जेन्ना राज्यांतल्या हिंदू राजांची शक्त दुबळी पडली, तेन्ना ती संद सादून परकी सत्तेन काश्मीराचेर घुरयो घालपाक सुरवात केली.

महंमूद गझनी हाणें १०१५ आनी १०२१ वर्सा दोन फावट काश्मीराचेर घुरयो घाल्यो पूण तातूंत ताका व्हड यस मेळ्ळें ना. सुस्सल आनी भिक्षाचार हांचेमदीं यादवी चलतासतना तुर्कांनी काश्मीराचेर घुरी घाल्ली. १२९५ ते १३२५ मेरेन सिंहदेवान राज्यकारभार चलयलो. ताचे राजवटींत तिबेटसावन रिंचीन आनी स्वातसावन शाह मीर हे काश्मीरांत तागेर आयले. फुडें हांणीच ताचेआड बंड केलें. ह्याच काळांत चंगीझखानाच्या एका वंशजान काश्मीराचेर घुरी घाली. सिंहदेव किश्तवार हांगा पळून गेलो. त्यावेळार ताचो प्रधान रामचंद्र हाणें स्वताक राजा म्हूण घोशीत केलो. रिंचिन हाणें ताका जिवेशीं मारून सत्ता हातांत घेतली. काश्मीरचो तो पयलो मुसलमान राजा आसलो. ताणें रामचंद्राची चली कोटा राणी हिचेकडेन लग्न केलें. १३२० वर्सा उदयनदेवा आड जाल्ल्या झुजांत रिंचिनाक मरण आयलें. उपरांत उदयनदेवाक राज्य दिवन कोटा राणीन ताचेकडेन लग्न केलें.

१३४३ वर्सा काश्मीर शाह मीर शम्सुद्दीन हाच्या ताब्यांत आयलें. अशेतरेन राज्यांत मुसलमानी राजवट सुरू जाली. १३४३ ते १५५४ मेरेन जायत्या सुलतानांनी काश्मीराचेर राज्य केलें. १५५४ ते १५८६ मेरेन काश्मीरांत चक घराण्याची सत्ता आसली. १५८७ त अकबरान काश्मीर, मोगल सत्तेतळा हाडलें. औरंगजेबाच्या काळांत दिल्लींत जी बेबंदशाय उप्रासली, ताचो परिणाम काश्मीराचेर जालो. मुहम्मदशाहाच्या काळांत ह्या प्रदेशांत बारा सुभेदार जावन गेले. फुडें अहमदशाह दुर्रानी हाणें काश्मीर जिखून अफगाण सत्तेचें मुळावण घालें. १८१९ मेरेन अफगाणसत्तेचो शेक चल्लो. अफगाणांनी आपले राजवटींत भिरांकूळ अत्याचार केले. ताका उबगून काश्मीरच्या पंडितांनी रणजितसिंगाचो पालव मागलो. रणजितसिंगान हो आदार रोकडोच दिलो. १८१९ त पठाणाक हार खावची पडली.

जम्मू भोंवतणच्या वाठारांत राजपूत घराण्याची सत्ता आसली. मोगल राजवटीक देंवती कळा लागली, तें पळोवन सगळे राजपूत राजा ध्रुव आनी ताचो चलो रणजितदेव हाच्या मुखेलपणाखाल एकठांय आयले. जम्मूंतली घुस्पट वाडटकच १८०८ वर्सा रणजितसिंगान, जम्मू वाठार काश्मीरांत भरसुचो, अशें भाई हुकूमसिंगाक फर्मायलें. रणजितदेवाचे वंशकुळयेंतल्या गुलाबसिंगान १८१५ ते १८२० मदीं जाल्ल्या शिमेवेल्या झुजांनी वांटो घेतिल्लो. १८२० त जम्मू वाठार ताका जहागीर म्हूण मेळ्ळो. १८४१ वर्सा किश्तवार, लडाख, बल्टिस्तान हे प्रांत ताणें काश्मीराक जोडले. १८४५ वर्सा जाल्ल्या ब्रिटीश-शीख झुजांत गुलाबसिंग तटस्थ रावलो. ब्रिटिशांक त्या झुजांत जैत मेळटकच ताणें काश्मीर प्रांत तांकां दिलो. गुलाबसिंगान उपरांत गिलगिट प्रांत जिखलो. अशेतरेन काश्मीरसंस्थान अस्तित्वांत आयलें.

**भारताच्या स्वातंत्र्याउपरांतच्यो घडणुको:** भारताच्या स्वातंत्र्याउपरांत, भारतीय संघराज्यांत विलीन जावंचे वेळार, जम्मू-काश्मीर संस्थानान हेर संस्थानापरस चड कळाव लायलो. पाकिस्तानान काश्मीर हातासपाखातीर सगळी झुजातयारी केल्ली. २० ऑक्टोबर १९४७ हो दिसूय तेखातीर थारायिल्लो. त्यावेळार काश्मीरच्या महाराजान भारत सरकाराकडेन लश्करी पालव मागलो. जम्मू आनी काश्मीर भारतांत विलीन करचें, ह्या एके अटीचेर भारत सरकारान काश्मीरच्या महाराजाक लश्करी पालव दिवपाचें मानून घेतलें. गव्हर्नर जनरल माउंटबॅटन हाणें हे कबलातीक मान्यताय दिली. २६ ऑक्टोबर १९४७ दिसा जम्मू आनी काश्मीर भारतांत विलीन जावन घटक राज्य जालें. जानेवारी १९४९ त काश्मीर प्रस्नाचेर संयुक्त राश्ट्रसंघांत कबलात जावन नियंत्रण शीम आंखली. १९५० वर्सा काश्मीरच्या महाराजाचो पूत युवराज करणसिंग राज्याचो मुखेल जालो. १७ ऑक्टोबर १९५२ दिसा ताची सदर-ई-रियासत म्हूण नेमणूक जाली. २६ एप्रिल १९६१ दिसा काश्मीराच्या महाराजाक मरण येतकच युवराज करणसिंग हाका भारत सरकारान 'महाराज' म्हूण घोशीत केलो. पूण ताणें ही पदवी वापरलीना. १९६५ सप्टेंबरांत पाकिस्तानान भारताचेर घुरी घाली. ती घुस्पट मिटोवपाक जानेवारी १९६६ वर्सा 'ताश्कंद कबलात' जाली. १७ डिसेंबर १९७१ ह्या दिसासावन ह्या दोनूय देशांमजगतीं पर्थून दुस्मानकाय उप्रासली. त्यावेळार जुलय १९७२ त 'सिमला कबलात' करून दोनूय देशांमजगतीं नवी नियंत्रण शीम आंखली.

काश्मीरची घटना १७ नोव्हेंबर १९५६ दिसा अस्तित्वांत आयली. २६ जानेवारी १९५७ दिसा ती लागू जाली. भारतीय संविधानाच्या ३७० कलमाखाल जम्मू आनी काश्मीर ह्या राज्याक खाशेलो राजकी पावंडो दिला. ह्या कलमाप्रमाण - १. भारताच्या हेर राज्यांतलो मनीस जमीन विकती घेवन थंय सदांखातीर राबितो करूंक शकना. २. भारतीय संसदेन केल्ले कायदे जम्मू काश्मीर सरकाराचे मान्यतायेबगर त्या राज्याक लागू जायनात. ३. जम्मू आनी काश्मीर सरकारान आपली मान्यताय दिले बगर भारताचो राश्ट्रपती तांचेखातीर एकाद्रो आदेश लेगीत काडूंक शकना.

राज्याचें विधीमंडळ विधानसभा आनी विधानपरिशद अशा दोन भागांनी वांटला. राज्यांतल्यान विधानसभेचेर ७६, विधानपरिशदेचेर ३६ आनी लोकसभेचेर ६ वांगडी वेंचून येतात. राज्याचें उच्च न्यायालय श्रीनगर आनी जम्मू शारांत आसा. डॉ. शेख अब्दुल्ला राज्याचो पयलो मुखेलमंत्री आसलो. राज्याचे १४ जिल्हे अशे आसात. अनंतनाग, बदगाम, बारामुल्ला, दोडा, जम्मू, कारगील, कथुआ, कूपवारा, लडाख, पुलवामा, पूंछ, राजौरी, श्रीनगर, उधमपूर

**अर्थीक स्थिती:** शेतकाम हो राज्यांतलो मुखेल धंदो आसून ताचेर

८०% लोक आदारिल्ले आसात. भात, गंव, बाजरी, मको, चणो (हरबरें), जंव, ही राज्यांतली मुखेल शेतकी पिकावळ आसा. १९८८-८९ वर्सा बरे भातपिकावळीखाल २.८८ लाख हेक्टर वाठार आसलो. २.०६३ लाख हेक्टर वाठारांत गंव आनी २.०१ लाख हेक्टर वाठारांत मक्याचें उत्पादन जाता. १९८६-८७ त १४.४३ लाख टन फळ-फळावळीचें उत्पादन जालें. चणो हरबऱ्याचें उत्पादन लडाख वाठारांत जाता. कांदे, बटाट, टोमाट, वायगें, भेणे, कोबी, मिरसांग, गाजर, मुळो, तवशें आनी हेर शेतपिकांचें उत्पादन राज्यांत जाता.

कोळसो, बॉक्सायट, जिप्सम हीं ह्या राज्यांतली मुखेल खनीज संपत्ती आसा.

पर्यटन हो राज्यांतलो मुखेल उद्येग. पर्यटनावरवीं राज्याक व्हड प्रमाणांत अर्थीक घटसाण मेळ्ळ्या. १९८६-८७ वर्साचे येवजणेप्रमाण त्यावर्सा पर्यटनाचेर ७.५० लाख रुपया खर्च केले. १९८७ वर्सा राज्याक ७.२० लाख भोंवडेकारांनी भेट दिली.

राज्यांत पारंपारीक उद्येगधंद्यांक बरो वाव आसा. रेशमाची पैदास, कोरीव लांकूडकाम, रेशमी आनी लोकरी हातमागावेलें कापड, लगदाकाम ह्या उद्येगांतल्यान १९८३-८४ वर्सा १,५७३ दशलक्ष रुपया येणावळ राज्याक मेळ्ळी. चांदीवेलें नक्षीकाम, गालिचे, चामड्याचें सामान, शाली आनी हेर पारंपारीक हातमाग वेवसाय राज्यांत चलतात. १९८५-८६ त ४० कोटी रुपया मोलाच्यो काश्मीरी हातमाग वस्तू परदेशांत निर्यात जाल्यो. हातमाग वेवसायांत १.९० लाख लोकांक रोजगार मेळ्ळा. १९८४ त राज्यांत २ केंद्र सरकारी मळावेले कारखाने, ३० मध्यम उद्येगीक कारखाने आसले. जम्मू वाठारांतली बारी ब्रह्मारा वसाहत राज्यांतलें सगळ्यांत व्हड उद्येगीक संकूल आसा. तें ३२० एकर वाठारांत वसलां. मार्च १९८७ मेरेन लघु-उद्येग वाठारांत २१.२२ हजार उद्येगीक केंद्रांची नोंद जाल्ली. तातूंत ९४,००० लोकांक रोजगार मेळ्ळा.

**येरादारी आनी संचारणः** जम्मू-पठाणकोठ रेल्वे आनी रस्त्यामार्गान, काश्मीर भारतांतल्या हेर राज्यांक जोडलां. बनीहल दोंगरांतलो जवाहर बोगदो जम्मू आनी श्रीनगर शारांक जोडटा. १९८३ मेरेन राज्यांत ११,८६३ किमी. लांबायेचे रस्ते आसले. १९८३-८४ मेरेन ५२,९३० मोटर वाहनांची नोंद जाल्ली. १९८५-८६ मेरेन राज्यांत ७७ किमी. लांबायेचे रेल्वे मार्ग आसले. दिल्लीसावन जम्मू आनी श्रीनगर शारांत दिसपट्टी विमान येरादारी चलता. तिसरो विमानतळ लेह हांगा आसा.

राज्यांत १,५१० पोस्ट कचेऱ्यो आनी ९७ दूरवाणी केंद्रां आसात. राज्यांत ३७ दिसाळीं, १२३ सातोळीं, १२ म्हयन्याळीं उजवाडाक येतात. राज्यांतलीं म्हत्वाचीं नेमाळीं फुडलेतरेन आसात. *श्रीनगरः* खिंद्‌मत, आफताब, श्रीनगर टायम्स, आयना, हम दर्द, जमीनदार, वूलर, नवजीवन, श्रीनगर एक्सप्रेस, नज्वा ई शुभ रोशनी, मदार ई काश्मीर. *जम्मूः* एक्सलेसियर, काश्मीर टायम्स, कौमी आवाझ, संदेश, इमारत, शारदा, उजाला, अॅडव्हायस्, वक्त, सच, रफ्तार, टायम्स ऑफ कार्टून.

**लोक आनी समाजजीणः** काश्मीर राज्याचो आवांठ २,२२,२३६ चौ.किमी. आसा. तातूंतलो ७८,९३२ चौ.किमी. वाठार पाकिस्तानांत तर ४२,७३५ चौ.किमी. वाठार चीनांत उरता. १९९१ चे जनगणनेप्रमाण भारतीय काश्मीराची लोकसंख्याः ७७,१८,७०० इतली आसा. राज्याची राजधानी गिमांत श्रीनगर आनी शिंयाळ्यांत जम्मू ही आसता. राज्यांतलो मुखेल धर्म मुसलमान आसा. हिंदू, शिख, बौध्द, किरिस्तांव आनी जैन धर्मीय लोकूय राज्यांत रावतात. मुसलमान धर्माभितर सुन्नीपंथीय चड आसात. उरिल्ले शिया, वहाबी, मौलवी, नूरबक्षीया, नक्षबंद ह्या पंथाचे आसात. कांय मुसलमान आदले हिंदू आसात. हिंदूंभितर काश्मीरी ब्राह्मण पंडितांचो आंकडो चड आसा. लडाख वाठारांतल्या बौध्दांचे रक्तवस्त्र आनी पीतवस्त्र अशे दोन फांटे आसात.

काश्मीरी मुसलमानांत आयजूय पोरन्या हिंदूंच्यो चालीरिती दिश्टी पडटात. जातकर्म, मूज, लग्न हे संस्कार, धर्म वेगवेगळे आसले तरीय चालीरिती एकसारक्यो आसतात. अशे सुवाळे खूब दीस चलतात. तातूंत मुसलमान बायलो वांटो घेतात. लग्नावेळार न्हवऱ्या-व्हंकलेक वाटकुळे रंगीत 'व्यूग' नांवाचे आकृतीचेर उबो करून साकर खावपाक दितात. उपरांत सप्तपदी चलतात. लडाखी बौध्दांत एकापरस चड घोव करपाची चाल आसली. सद्या ती बंद पडल्या. बराला जमातींत लग्न जावंक सोदपी चल्याक, चलयेच्या बापायकडेन चाकरी करची पडटा. लोकरी, वसंतोत्सव आनी वैशाखी ह्यो परबो राज्यांत सगळेकडेन मनयतात. महाशिवरात्र (हेरथ), चैत्री पाडवो आनी पौषांतली उमास (खिचमावस) ह्यो परबोय राज्यांत मनयतात. अमरनाथ, त्रिकूटतीर्थ ह्यो वैष्णोदेवीच्यो जात्रा, चिनेनी शिवजीची जात्रा राज्यांत मनयतात.

राज्यांतले मुसलमान वाटकुळी तोपी, खोमीस-जाकीट आनी सदळ चुडीदार पिजाम घालतात. खास प्रसंगार शेरवानी, लांब डगलो आनी शाल वापरतात. मुसलमान बायलो सलवार कमीज घालतात. तकलेक रंगीत रुमाल (कसबा) बांदतात. हिंदू पंडीत खांद्यार उपरणे घेवन कान धांपतात आनी सोबीत फेटो बांदतात. हिंदू बायलो तकलेक चवकोनी धवो लेंस बांदतात. फाटीर विणयेसारको मलमलचो शेपटो सोडटात. शारांतल्या दादल्यां-बायलांचेर आर्विल्ल्या भेसांचो प्रभाव पडला. काश्मीरी लोकांचो आहार शीत, भाजी, दाळ आनी प्रसंगार नुस्तें-मांस असो आसता. च्या आनी तंबाखूची सवंय सादारणपणान सगळ्यांक आसता. कडक शिंयाळ्यांत कांग्री नांवाचे शेगडेचेर उब घेवपाची पध्दत राज्यांत चलता. कांग्री हें काश्मीरचें खाशेलपण आसा.

रस्मी आनी लोकरी शालीवेलें सोबीत भरतकाम, कशिदा, अक्रोडाच्या लांकडावेलें कोरीवकाम, कागदलगद्याच्यो सोबीत वस्तू, धातूच्या आयदनांवेलें नक्षीकाम, लाखेरी लांकूड कारागिरी, गालिचे, नमदे आनी चामड्यावेलें अप्रूप काम, वेताचीं कुरपणीं ह्यो कला संवसारांत नांवाजल्यात.

**शिक्षणः** शिक्षणाच्या मळार काश्मीर हेर राज्यांकडेन तुळाकेल्यार खूब फाटीं आसून साक्षरतेचें प्रमाण २६.१७% आसा. १९८४-८५ वर्सामेरेन राज्यांत ९०९ माध्यमिक, २,११३ ऊंच मुळाव्यो आनी ७,६४६ मुळाव्यो शाळा आसल्यो. ह्या सगळ्या शाळांनी ७,३९,००० भुरगीं शिकप घेतालीं. राज्यांत २ वैजकी महाविद्यालयां, १ अभियांत्रिकी महाविद्यालय, १ शेतकी महाविद्यालय, २ पॉलीटेक्नीकां, १२ वेवसायीक महाविद्यालयां आसात. राज्यांतलीं विश्वविद्यापीठां फुडलेतरेन आसात.

१. जम्मू विश्वविद्यापीठ- जम्मू २. काश्मीर विश्वविद्यापीठ- श्रीनगर ३. शेर-इ-काश्मीर विश्वविद्यापीठ (शेतकी आनी तंत्रीक)- श्रीनगर.

**भाशा आनी साहित्यः** जम्मू आनी काश्मीर राज्याची राजभास उर्दू आसा. काश्मीरी, डोग्री, लडाखी, पंजाबी, बाल्टी, पहाडी, बोधी, दर्डी, उर्दू ह्यो थळाव्यो भासो आसात. बनिहाल, रामबन, भद्रवाह वाठारांत काश्मीरी भास उलोवपी लोक रावतात. तेराव्या शतमानांत 'कःशुर' नांवाचे मूळ देशभाशेचो उल्लेख जाल्लो दिश्टी पडटा. चवदाव्या शतमानांत काश्मीरी भास सुर्वेक शारदा लिपींत आनी उपरांत फार्सी लिपींत बरोवपाक लागले. सद्या काश्मीरी भास देवनागरी लिपींत बरोवपाचे यत्न चल्ल्यात. 'महानयप्रकाश' हो काश्मीरी भाशेंतलो सगळ्यांत पूर्विल्लो ग्रंथ मानतात. हे भाशेंतल्या पूर्विल्ल्या साहित्याचेर धर्मीक आनी आध्यात्मिक गजालींचें पडबिंब पडलां. शितिकंठ, लल-द्यद वा लल्लेश्वरी, भट्टावतार, सूफी कवी शेख नूर-उद्-दीन नूरानी हे पूर्विल्ल्या काळांतले नामनेचे साहित्यिक आसात.

प्रबंध काळांत लौकिक, इतिहासीक आनी पौराणिक विशयांचेर लेखन जालें. गीतिकाळांत भावकाव्याची रचना जाली. भावकाव्य रचप्यांमदीं हब्बा खातून, मिर्झा अकमल-उद्-दीन, साहिब कौल नामनेचे आसात. प्रेमाख्यानकाळांत पुराणिक आनी इराणी कथांच्या आदारान रमझान बट्ट, परमानंद, श्रीकृष्ण राझदान हांणी काव्यां केलीं. आर्विल्ल्या काळांत काश्मीरी साहित्यांत मोलाची भर घालप्यांमदीं वहहाब परे, मक्बूल शाह, रसूल मीर, महजूर आनी हेर हांचो आस्पाव जाता. काश्मीरी भाशेक

साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळ्ळया.

**म्हत्वाचीं थळां**: राजधानी श्रीनगर आनी जम्मू हीं शारां, शालिमार, चष्मशाही, निशात, नसीम ह्यो बागो, गुलमर्ग, खिलनमर्ग, सोनमर्ग हे सैमीक वाठार, पहलगाम, अमरनाथ, लिद्दार दरी, हरमुख, नंगापर्वत हीं सैमथळां, वुलर, दल, मानसबल, गंगाबल, शेषनाग, कौसरनाग हीं सरोवरां, अच्छीबल, कुकरनाग, व्हेरनाग, अनंतनागादी हे झरे मार्तंड-मंदिर, वैष्णवदेवी, जम्मू-त्रिकुटा, तुलामुला, क्षीरभवानी, शंकराचार्य दोगुल्ली, शारदा, दुर्गादेवी आनी हेर पूर्विल्लीं देवळां, शाह हमदान, हजरतबाल आनी पत्थर ह्यो मशिदी राज्यांतलीं हीं कांय म्हत्वाचीं थळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## जयकर, मुकुंद रामराव: (जल्मः १३ नोव्हेंबर १८७३, मुंबय; मरणः १० मार्च १९५९, मुंबय).

भारतांतलो एक नामनेचो कायदेतज्ञ, वक्तो आनी राजकी फुडारी. ताचो जल्म एका मध्यम वर्गीय कुटुंबांत जालो. ताणें एल्फिन्स्टन विद्यालय आनी सेंट झेवियर महाविद्यालय ह्या विद्यालयांनी शिकप घेतलें आनी मुंबय विद्यापीठाच्यो पदव्यो मेळयल्यो. पिरायेच्या चोवीसाव्या वर्सा इंग्लंडाक वचून तो बॅरिस्टर जालो आनी मुंबय उच्च न्यायालयांत कायदेपटू म्हूण ताणें रोखडेंच नांव मेळयलें.

१९१९ त पंजाबांत जाल्ल्या हत्याकांडाची चवकशी करपाखातीर काँग्रेसीन एक समिती नेमिल्ली, तिचो तो वांगडी आशिल्लो. ताणें स्वातंत्र्याचे चळवळींत सक्रिय असो वांटो घेतलोना; तरी लेगीत राजकी वाटाघाटींत मध्यस्थ म्हूण ताणें काम केलें. हे नदरेन गांधी-आयर्विन कबलात (१९३१) आनी पुणे कबलात (१९३२) हातूंत ताणें केल्लो वावर मोलाचो आसा. मुंबयच्या विधिमंडळांत ताणें १९२३-२६ ह्या काळांत स्वराज्य पक्षाचें फुडारपण केलें. फुडें तो मध्यवर्ती विधिमंडळांत राश्ट्रीय पक्षाचो पालवी फुडारी आशिल्लो (१९२६-३०).

सुर्वेक तो स्वराज्य पक्षांत आशिल्लो. उपरांत ताणें केळकर आनी हेरांवांगडा प्रतिसहकार पक्ष काडलो. तो प्रिव्ही कौन्सिल आनी फेडरल कोर्टांतूय न्यायाधीश जालो. तिनूय गोलमेज परिशदांचो तो वांगडी आशिल्लो. फुडें ताका संविधान समितीचो वांगडी म्हूण घेतिल्लो; पूण ताणें तें काम चड काळ केलेंना. जिणेच्या निमण्या दिसांत ताणें केल्ली पुणे विद्यापीठाची थापणूक ही ताचो मोलादीक आनी म्हत्वाचो वावर जावन आसा. तो पुणे विद्यापीठाचो पयलो कुलगुरु आशिल्लो. टिळक स्वराज्य फंडाक तशेंच शिक्षणीक, समाजीक आनी सांस्कृतिक मळार वावर करपी हेर संस्थांक ताणें सदळ हातान पालव दिलो.

ताणें 'Studies in Vedanta' हें पुस्तक संपादित केलें आनी 'मराठा मंदिर' ह्या नेमाळ्यांतल्यान हिंदू धर्माविशींचे आपले विचार परगटायले. ताची आपजीण 'The story of my life' (२ खंड, १९५८-५९) उजवाडाक आयल्या. भुरगेपणांतसावन ताका कलासाहित्याची आवड आशिल्ली. ताचें इंग्लीश उलोवप प्रभावी जातालें. शास्त्रीय संगीताचोय ताणें अभ्यास केल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## जयदेव: (जल्म तशेंच मरणः सुमार बारावो शेंकडो).

संस्कृत भाशेंतल्या 'गीतगोविंद' ह्या नामनेच्या काव्याचो कवी. ताचे जिणेविशीं अदीक म्हायती मेळना. गीतगोविंदांतल्या कांय उल्लेखांवरवीं जी थोडीभोव चरित्रात्मक म्हायती मेळटा ती अशीः ताचो जल्म अस्तंत बंगालांतल्या बीरभूम जिल्ह्यांतल्या केंदुबिल्व (सद्याचें केंदुली) गांवांत जालो. हालींच्या संशोधनाप्रमाण, हो केंदुबिल्व गांव ओडिसांतल्या जगन्नाथपुरीलागसार आसून, थंयच जयदेवाचो जल्म जालो, अशेंय कांय जाणकारांचें मत आसा. ताच्या बापायचें नांव भोजदेव आनी आवयचें नांव रमादेवी. भोजदेव आनी रमादेवी हांकां भुरगेंबाळ नाशिल्लें म्हूण तांणी जगन्नाथाची भक्ती केली. जगन्नाथाचे कृपेन तांकां जयदेव हो चलो जालो.

महीपतीन आपल्या भक्तविजयांत जयदेवाक व्यासाचो अवतार, अशें म्हळां. जयदेव हो संस्कृत भाशेचो पंडीत आनी कवी आशिल्लो. ताच्या कवित्त्वाची कीर्त आयकून उत्कलाचो राजा एकजात कामदेव हाणें ताका भोवमानान आपयलो आनी राजकवी म्हूण आपल्या दरबारांत जागो दिलो. ताच्या दरबारांत आसतनाच जयदेवान 'गीतगोविंद' हें आपलें नामनेचें काव्य रचलें. पूण कांय आख्यायिकांत जयदेव हो बंगालांतल्या लक्ष्मणसेन राजाच्या दरबारांत आशिल्लो, अशेंय म्हळां.

'मंडलपंजी' ह्या उत्कल राज्याचे बखरीप्रमाण वैष्णवपंथीय राजा कामदेव हो गीतगोविंद आयकल्याबगर केन्नाच जेविनासलो, अशें म्हळां. जयदेवान आपल्या 'गीतगोविंद' काव्यांतलें दरेक गीत खंयच्या रागांत आनी तालांत गावचें, हें स्पश्टपणान सुचयलां. ताचेवेल्यान ताका संगीताचें खोल गिन्यान आसूंक जाय, अशें दिसता.

जयदेवाच्या लग्नाविशीं कथा सांगतात, ती अशी- जयदेव हो विरक्त आनी निरासक्त आशिल्ल्यान गांवांभायर एक पर्णकुटी बांदून रावतालो. त्याच गांवांत देवशर्मा नांवाचो एक ब्राह्मण आशिल्लो. ताका भुरगेंबाळ नाशिल्लें. 'स्वताक भुरगें जालें, जाल्यार तें हांव तुका ओंपतलों' अशी आंगवण ताणें जगन्नाथाकडेन केल्ली. फुडें ताका एक चली जाली. ताणें तिचें नांव पद्मावती, अशें दवरलें. ती वयांत येतकच ताणें तिका जगन्नाथाच्या देवळांत व्हरून भटाचे सुवादीन केली. ते रातीक भटाक सपनांत दृश्टांत जालो, 'तूं ही चली जयदेवाक ओंप'. दुसरे दिसा भटान पद्मावतीक व्हरुन जयदेवाकडेन सोंपयली. जयदेव आनी पद्मावती जगन्नाथपुरी हांगा रावन संवसार करपाक लागलीं.

पद्मावती एकदां घुंवळ घेवन पडिल्ली आसतना जयदेवान गीतगोविंदांतली श्रीकृष्णपुरस्कृत १९ वी अष्टपदी म्हणून तिच्या आंगार उदक शिंपडायलें, तेन्ना ती बरी जावन उठून बसली. तेन्नासावन हे अष्टपदीक 'संजीवनी अष्टपदी' अशें नांव पडलें. ते अष्टपदींतले तीन श्लोक अशे:

प्रिये चारुशीले प्रिये चारुशीले
मुञ्च मयि मानमनिदानम्।
सपदि मदनानलो दहति मम मानसं
देहि मुखकमलमधुपानम् ।।ध्रु.।।
वदसि यदि किञ्चिदपि दन्तरुचिकौमुदी
हरति दरतिमिरमतिघोरं।
स्फुरदधरसीधवे तव वदनचन्द्रमा
रोचयति लोचनचकोरम् ।।१।।
सत्यमेवासि यदि सुदति मयि कोपिनी
देहि खरनखरशरघातम्।
घटय भुजबन्धनं जनय रदखण्डनं
येन वा भवति सुखजातम् ।।२।।

अर्थ- "हे चारुशीले, हो तुजो म्हजेवेलो विनाकारण शीण सोडून दी. मदनाचो उजो म्हजें काळीज लाशीत आसा. तुज्या मुखकमळाची गोडसाण म्हाका उश्टावंक दी. तूं मात्शी जरी उलयली, तरी तुज्या दातांच्या चान्यासारक्या उजवाडान म्हज्या भंयाचो काळोख पयसावता. तुजो मुखचंद्रीम म्हज्या दोळ्यांच्या चकोराक भुलोवन आपल्या ओंठांतलें म्होंव पिवपाक म्हाका मोगान आपयता. खऱ्यांनीच तूं म्हजेर राग जाल्या आसत जाल्यार तुज्या खर नाखटांनी म्हजे कुडीचेर आघात कर. म्हजे भोंवतणी तुजीं भुजां आंवळून तुजे दांत म्हजे कुडीक तोप आनी जें जें सुख दिवपासारकें आसा, तें सगळें कर."

हे एकुणिसाव्या अष्टपदीविशीं आनीक एक आख्यायिका प्रचलित आसा, ती अशी- जगन्नाथपुरीचे नामनेचे रथयात्रेंत जगन्नाथ, सुभद्रा आनी बलराम ह्या तिगांचेय रथ ओडटात. एकदां हे रथयात्रेक लक्ष्मी आयली. त्या रथोत्सवांत जगन्नाथाचे जोडयेन आपल्याक स्थान ना, हें पळोवन तिका तिडक आयली. तिणें त्या रथाचो एक भाग मोडलो आनी

ती परत आपल्या देवळांत येवन बसली. जगन्नाथाक हें कळटकच तो तिका समजावपाक तिच्या देवळांत गेलो. पूण देवळाचीं दारां बंद जाल्लीं आनी ताका भितर प्रवेश मेळ्ळोना. इतल्यान थंय एक देवदासी आयली आनी तिणें गीतगोविंदांतली एकुणिसावी अष्टपदी गावन म्हळी. तेबरोबर देवळाचीं दारां उक्तीं जालीं आनी जगन्नाथान भितर वचून लक्ष्मीक समजायली. त्या दिसासावन रथयात्रा चालू आसतना ती एकुणिसावी अष्टपदी मखमलीच्या कापडाचेर बरोवन तें कापड जगन्नाथाच्या हातांत दिवपाची प्रथा सुरू जाली.

गीतगोविंदाच्या निर्णयसागरी आवृत्तीचो संपादक तेलंग आनी पणशीकर ह्या दोगांयनी जयदेवाच्या आख्यायिकांविशीं बरेच अभ्यास केला. पद्मावती ही आंध्रांतल्या एका द्राविड ब्राह्मणाची चली आशिल्ली, अशें तांणी म्हळां. त्या काळांत द्राविड ब्राह्मणांचो उत्कल ब्राह्मणांवांगडा सोयरीक संबंद जातालो; पूण बंगाली लोकांकडेन मात तो जायनासलो. जयदेव हो बंगाली नासून ओडियन आशिल्लो, हाचो हो एक पुरावो आसा.

गीतगोविंद हें संवसारीक रसकाव्यांतलें पयलें रसकाव्य जावन आसा. तें राधा-कृष्णाच्या दैवी मोगाचेर आदारिल्लें भावनाट्य आसा. जयदेवान स्वताच ताचेवेल्यान एक नृत्यनाट्य बसयल्लें. त्या नाटकांत पद्मावती राधेची आनी जयदेव कृष्णाचें संवंग करतालो. जयदेवान गीतगोविंदाच्या नाचांत पद्मावतीक फिशाल केल्ली, म्हूण तो स्वताक 'पद्मावतीचरणचारणचक्रवर्ती' अशें भोवमानान म्हण्टा. गीतगोविंदावयलें हें नृत्यनाट्य घेवन तीं दोगांय केरळांत गेल्लीं. थंय ताचे प्रयोग पळोवन केरळीय लोक खुश जाले, अशे उल्लेख मल्याळम् साहित्याच्या इतिहासांत मेळटात.

ओडिसाचो राजा प्रतापरुद्र जगन्नाथाचो भक्त आशिल्लो. जगन्नाथामुखार नर्तकींनी नाच करचो आनी गायकांनी गीतगोविंदांतल्योच अष्टपद्यो गावच्यो, असो आदेश ताणें काडिल्लो. ताचे मुस्तींतलो एक शिलालेख जगन्नाथाच्या देवळांत सांपडला, ताचेवेल्यान ही म्हायती मेळटा.

जयदेव हो अशा काळांत जल्माक आयिल्लो, की ज्या वेळार भारताचे उदेंतेक बौध्द सिध्दांचो प्रभाव ल्हव ल्हव कमी जावपाक लागिल्लो आनी नाथपंथ, वैष्णवपंथ नेट धरपाक लागिल्ले. गीतगोविंद हें कृष्णभक्तीचेर बरयल्लें काव्य आसलें, तरी बारीकसाणेन पळेल्यार त्या काव्याचेर सहजयान पंथाचो मात्सो प्रभाव दिसून येता. त्या पंथांतलीं प्रज्ञा आनी उपाय हीं दोन तत्त्वां राधा आनी कृष्ण हांचीं रुपां घेवन गीतगोविंदांत एकजीव जावन वावुरतात. सहजयानींची महासुख ही निमणी अवस्था जयदेवाच्या काव्यांत अलौकिक मोग हे अवस्थेंत रुपांतरित जाल्ली दिसता.

गीतगोविंदाखेरीज जयदेवाच्या नांवाचेर कांय बंगाली पदांय आसात. फकत शिखांच्या ग्रंथसाहेबातूच न्हय, तर दादूपंथी साधकांनी तयार केल्ल्या पदांच्या झेल्यांतूय जयदेवाच्या ह्या पदांचो आदरान आस्पाव केला. ह्या पदांची भास संस्कृत भाशेक लागींचीं आसून, भितरल्यान तीं नाथ आनी सिध्द हांचे रचणुकेक लागींचीं आसात. हीं पदां मुळांत जरी बंगाली भाशेंत आसलीं, तरी तीं विंगड विंगड प्रांतांतल्या साधकांच्या तोंडांतल्यान घोळत रावील्ल्यान तांकां हिंदी, पंजाबी वा राजस्थानी स्वरुप आयलां.

- कों. वि. सं. मं.

**जयपूर:** राजस्थान राज्याची राजधानी. भारतांतलें सुंदर रचनेचें गुलाबी नगर म्हूण जयपुरची नामना आसा. दिल्लीचे नैर्ऋत्ये दिकेक ३०७ किमी.; तशेंच मुंबयचे ईशान्येक रेल्वेमार्गान १,११४ किमी. चेर आनी समुद्रथरासावन ४३१ किमी. उंचायेर हें शार वसलां. हांगाचो वट्ट आवांठ २०६.०६ चौ.किमी. आसा. लोकसंख्या: ९,७७,१६५ (१९८१).

राजपूत घराण्यांतलो महाराजा दुसरो सवाई जयसिंग हाणें १७२८ त ह्या नगराची रचणूक केली आनी जयपुरसावन सुमार ११ किमी. अंबेर हांगा आशिल्ली राजधानी जयपूरांत हाडली. ह्या राजाच्या नांवावेल्यानूच ह्या नगराक 'जयपूर' हें नांव पडलें.

ह्या नगरांत बऱ्यांत बऱ्यो अश्यो आंखीव आनी रेखीव बांदकामाच्यो रचणुको आसात. तेचपरी ३४ मी. रुंदायेचे नितळ रस्ते आसात, व्हड व्हड चौक आसात. शारा भोंवतणी सुमार ६ मी. उंचायेचे आनी २.७५ मी. रुंदायेचे तट आसात. ह्या तटांत आठ व्हड वेशी आसात. हांगाच्या व्हड-व्हड वण्टींक भायलेवटेन आशिल्लो गुलाबी रंग, हें ह्या नगराचें खाशेलपण. ह्या खाशेलपणाक लागून ह्या नगराक गुलाबी नगर म्हूण वळखतात. नगराचे भोंवतणी दोंगुल्ल्यो आसात. ह्या दोंगुल्ल्यांचेर आशिल्ले किल्ले आनीक मनोरे हांगाच्या वातावरणाक आनीक सोबाय हाडटात.

राजस्थान राज्यांतल्या वेपाराचें जयपूर हें केंद्र जावन आसा. हातमागाचेर कापड विणप, हस्तीदंतावेलें कोरीव काम, संगमरवराचें जडावाचें काम हांगा जाता. बांदणीचीं वस्त्रां करपाक (चड करून बांदणीच्यो साडयो) तशेंच हेर जायत्या कला कौशल्याक लागून जयपूराक बरीच नामना मेळ्ळ्या. मिन्याचें म्हळ्यार कंवची आनी चांदीचें नक्षीकाम करपाक जयपुराचो भारतांत पयलो क्रमांक आसा. हे कलेचें शिक्षण दिवपी शाळा हांगा आसात.

हांगा दोनशीं वर्सां आदलो पोरनो राजवाडो आसा. ह्या राजवाड्यावरवीं आमकां मोगल-राजपूत शिल्पाचो एक बरो प्रकार पळोवंक मेळटा. हांगा पांच मजली चंद्र महाल, कोरीव कामाखातीर नामनेक पाविल्लो मुबारक महाल आनी प्रतापसिंहान बांदिल्लो हवामहल आसा. ह्या हवामहलाक वास्तूकलेचे नदरेन खूब म्हत्व आसा. आदल्या काळांतले लेख, चित्रां, शस्त्रां हांचो संग्रह हांगा पळोवंक मेळटा. जंतर मंतर ही वेधशाळा, भौशीक उद्यान, जनावरांचें संग्रहालय, नाहरगढ दोंगुल्लेलागीं आशिल्ल्यो आदल्या राजांच्यो सत्र्यो, दोंगुल्लेवयलें सूर्य देवूळ, गोविंदजीचें देवूळ हीं हांगाचीं कांय प्रेक्षणीय थळां आसात. १९४७ त हांगा राजस्थान विद्यापीठाची थापणूक जाली.

अस्तंत रेल्वेच्या दिल्ली-अहमदाबाद मार्गार जयपुरचें प्रवासीथळ आसा. जयपुरसावन सुमार १३ किमी. अंतराचेर संगनेर हें शार आसा. ह्या शारांत विमानतळ आसा. तेभायर भायल्या हेर म्हत्वाच्या शारांक, जयपूर शार रस्त्यांनी जोडलां.

- कों. वि. सं. मं.

**जयप्रकाश नारायण:** (जल्म: ११ ऑक्टोबर १९०२, सिताबदियार-बिहार; मरण: ८ ऑक्टोबर १९७९, मुंबय).

भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींतलो एक मुखेल समाजवादी, फुडारी आनी सर्वोदय कार्यकर्तो.

मुळावें शिकप सिताबदियार हांगा आनी माध्यमिक शालेय शिक्षण पाटणा हांगा जालें. दरभंगा हांगा ऑक्टोबर १९२० त, ताचें लग्न जालें. त्या वेळार जयप्रकाशाची पिराय अठरा वर्सांची आशिल्ली आनी प्रभावती चवदा वर्सांची आशिल्ली. ताचो मांव ब्रजकिशोर हो बिहारांतलो एक राष्ट्रीय फुडारी आनी नामनेचो वकील आशिल्लो. ताका लागून जयप्रकाशाचो गांधीजीकडेन लागींचो संबंद आयलो. महाविद्यालयांत इंटरच्या वर्गांत शिकता आसतनाच ताणें असहकाराचे चळवळींत वांटो घेतलो आनी ताचे राजकी जिणेक आरंभ जालो. १९२२ त तो उच्च शिक्षणाखातीर अमेरिकेक गेलो. थंय ताणें विस्कॉन्सिन विद्यापीठाची समाजशास्त्र विशयांतली एम्. ए. पदवी मेळयली. १९२९ त तो भारतांत परत आयलो.

अमेरिकेंत शिकता आसतना जयप्रकाशाची मार्क्सवादी विचारांकडेन वळख जाली. क्रांतिकारक आनी मानवतावादी तत्त्वज्ञ मानवेंद्रनाथ रॉय तशेंच मार्क्स, लेनीन, ट्रॉट्स्की हांचें साहित्य वाचून तो खर मार्क्सवादी जालो. देशाचे स्वातंत्र्यप्राप्तीखातीर गांधीच्या मार्गापरस मार्क्सप्रणीत क्रांतीचो मार्ग अधिक बरो आसा, अशें त्या वेळार ताका दिसतालें. पूण उपरांत ताची भुमिका बदल्ली. काँग्रेसचे राष्ट्रीय चळवळीविशींचे

भारतीय कम्युनिस्ट पक्षाचे भुमिकेकडेय तो सहमत नाशिल्लो.



भारतांत परत येतकच ताणें कॉंग्रेस पक्षांत प्रवेश केलो. १९३० त जवाहरलाल नेहरु कॉंग्रेसचो अध्यक्ष आसतना, ताणें जयप्रकाशाक कॉंग्रेसच्या कामगार विभागाचो मुखेली नेमलो. गांधी गोलमेज परिशदेंतल्यान परत येतकच जाल्ले सत्याग्रह चळवळीच्या दुसऱ्या पर्वांत सगळे फु डा री बंदखणींत आशिल्ले. तेन्ना ताणें हे चळवळीचीं सूत्रां सांबाळ्ळीं. १९३३ त मद्रास हांगा ताका अटक जावन एका वर्साची ख्यास्त जाली. हेर समाजवादीं तरणाट्यांच्या सहकार्यान ताणें १९३४ त कॉंग्रेस समाजवादी पक्षाची थापणूक केली. जयप्रकाशाची ह्या पक्षाचो सरचिटणीस म्हूण नेमणूक जाली.

१९३९ त दुसरें म्हाझूज सुरू जालें. तेन्ना जयप्रकाशान युध्दविरोधाचें आनी स्वातंत्र्यलढो खर करपाचें धोरण सुरू केलें. देखून १९३९ त ताका अटक जावन ९ म्हयन्यांची ख्यास्त जाली. १९४१ त परत ताका अटक जाली आनी राजस्थानांतल्या देवळी बंदखणीत दवरलो. थंय राजबंद्यांवयल्या अन्यायांआड ३१ दिसांचो उपास करून सरकाराक आपल्यो मागण्यो मान्य करपाक लायल्यो. १९४२ चे सुरवातीक ताका बिहारांतल्या हजारीबाग बंदखणीत हालयलो. ह्या वेळार 'छोडो भारत' (चलेजाव) आंदोलन सुरू जालें. तातूंत वांटो घेवपाखातीर ८ नोव्हेंबराक अचाट साहस करून बंदखणीच्या वण्टींवयल्यान उडी मारून तो पळून गेलो आनी भूंयगत संघटनेचें फुडारपण करपाक लागलो. ताणें गनिमी तंत्रान लढपी 'आझाद दस्ते' संघटित केले. ताच्या नेपाळांतल्या हालचालींची सुलूस लागतकच ताका नेपाळी पोलीस ब्रिटीश शीमेत व्हरता आसतना आझाद दस्त्याच्या सैनिकांनी अकस्मात घुरी घालून नेपाळी पोलीसांच्या हातांतल्यान सोडयलो. उपरांत जयप्रकाश भारतांत परत येवन भूंयगत रावन कार्य करपाक लागलो. त्या वेळार सरकारान ताका धरून दितल्याक धा हजार रुपयांचें इनाम जाहीर केलें. १७ सप्टेंबर १९४३ दिसा अमृतसर रेल्वे स्थानकाचेर ताका धरलो. १९४६ त तो बंदखणीतसून सुटलो.

महात्मा गांधीचे हत्येउपरांत कॉंग्रेसींत रावन समाजवादी सामाजरचनेचें ध्येय साध्य जावचेंना अशें ताका दिसलें. देखून ताणें १९४८ त हेर वांगड्यांची मदत घेवन स्वतंत्र समाजवादी पक्षाची थापणूक केली. पक्षाचो पयलो सरचिटणीस म्हूण ताचीच वेंचणूक जाली.

१९४८ ते १९५० ह्या काळांत ताणें कामगार आनी किसान संघटनेच्या वावरांत चड लक्ष घालें. हिंद मजदूर सभा, हिंद किसान पंचायत ह्या संघटनांची थापणूक ताच्याच यत्नांक लागून जाली. अखिल भारतीय रेल्वे कामगार संघ, अखिल भारतीय टपाल आनी तार खातें संघ, अखिल भारतीय संरक्षण कामगार संघ हांचोय तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९५२ त ताणें आचार्य कृपलानी हाचो 'कृषक मजदूर प्रजा पक्ष' आनी 'समाजवादी पक्ष' हांचें विलीनीकरण घडोवन हाडपाक फुडाकार घेतलो. ह्या विलीनीकरणाक लागून अस्तित्वांत आयिल्ल्या प्रजासमाजवादी पक्षाचो तोच पयलो सरचिटणीस जालो. १९५२ चे पयले सार्वत्रिक वेंचणुकेंत समाजवादी पक्षाचो पराभव जालो. त्याच काळार टपाल आनी तार खात्याच्या कामगार संपावेळार संबंदीत खात्याच्या मंत्र्यांनी दिल्ल्या तोंडी आश्वासनांचेर विश्वास दवरुन ताणें संप फाटीं घेतलो. सरकारान आश्वासन पुराय केलेंना म्हूण अस्वस्थ जावन जयप्रकाशान पुण्यात आत्मशुध्दीखातीर तीन सप्तकांचो उपास केलो.

पयले सार्वत्रिक वेंचणुकेंत जाल्ल्या पराभवाउपरांत जयप्रकाश हाचे विचार समाजवादाकडल्यान सर्वोदयाकडेन बागपाक लागले. १९५३ उपरांत विनोबाजीच्या भूदान आंदोलनांत वांटो घेवपाक सुरवात केली. १९ एप्रिल १९५४ त बोधगया हांगाच्या सर्वोदय संमेलनांत भूदान कार्याखातीर पक्षीय राजकारणांतल्यान ताणें पुराय आंग काडलें. १९६१ च्या सर्वोदय संमेलनाच्या अध्यक्षपदावयल्यान उलोवप करतना आपल्या राजकारण-संन्यासाच्यो शिमो ताणें उक्तायल्यो. १९५४ ते १९७२ मेरेन जयप्रकाश भूदान आंदोलनातूच मग्न आशिल्लो. गया जिल्ह्यांत सोखोदेवरा हांगा ताणें एका आश्रमाची थापणूक केली. सर्वोदयाच्या तत्त्वगिन्यानाच्या प्रचाराखातीर १९५८ त ताणें युरोपची भोंवडी केली. १९६० त, नवी दिल्ली हांगा ताणें तिबेटच्या प्रस्नाचेर आफ्रोआशियाई परिशद घडोवन हाडली; तिबेटाचेर जाल्ले चिनी घुरयेचो ताणें निशेध परगटायलो आनी तिबेटच्या लोकांक स्वातंत्र्य मेळपाक जाय, अशें मत मांडलें. १९६२ त पाकिस्तानावांगडा परत बरेपण जोडचें, ह्या हेतान ताणें 'पाकिस्तान रिकन्सिलिएशन ग्रुप' ह्या पक्षाची थापणूक केली; नागालँडांत शांतताय नंदची म्हूण भारत सरकारान नेमिल्ले शांतताय मंडळाचो तो वांगडी आशिल्लो.

जयप्रकाश हाणें केल्ल्या यत्नांक लागून १९६४ त भारत सरकार आनी नागा बंडखोर फुडारी हांचेमदीं झूज थांबोवपाचे कबलातीचेर सयो जाल्यो. १९७० त ताणें बिहारच्या मुझफ्फरपूर जिल्ह्यांत भोंवडी करून थंयच्या नक्षलवाद्यांचें मन वळोवपाचो यत्न केलो. १९७१ त ताणें बांगला देशांतली परिस्थिती जगामुखार दवरपाखातीर संवसारीक भोंवडी केली आनी त्या वर्सा सप्टेंबर म्हयन्यांत नवी दिल्ली हांगा आंतरराश्ट्रीय परिशद घडोवन हाडली; मे १९७२ त, मध्य प्रदेशांतल्या २६७ दरोडेखोरांनी जयप्रकाशांचे सांगणेवेल्यान भारत सरकार आनी मध्य प्रदेश सरकार हांचेमुखार शरणागती पत्करली. बिहारांतलो दुकळ (१९६६-६८), गुजरातांतल्या विद्यार्थ्यांचें भ्रश्टाचाराआड आंदोलन (१९७३) अशा कितल्याशाच कठीण प्रसंगांवेळार ताणें अत्याचाराआड लढो दिलो.

जयप्रकाशान संशोधन कार्य करपी संस्थाय ह्या काळांत स्थापन केल्यो. 'Association of Voluntary Agencies for Rural Development', 'Gandhian Institute of Studies' आनी 'अखिल भारतीय पंचायत परिशद' ह्या संस्थांचो तो अध्यक्ष वा मानसेवी संचालक आशिल्लो. तशेंच 'Congress for Cultural Freedom' हे संस्थेचो सुर्वेकसावन तो वांगडी आसलो. १९६५ त ताका शांततायेच्या वावराखातीर 'रेमन मागसाय' हो आंतरराश्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळो.

ताची घरकान्न प्रभावतीदेवी हिका १५ एप्रिल १९७३ दिसा मरण आयलें.

देशांतलो भ्रश्टाचार, दुबळ्या घटकांचे उदरगतीकडेन जाल्लें दुर्लक्ष ह्या प्रस्नांनी अस्वस्थ जावन ताणें देशाक 'संपूर्ण क्रांती'ची गरज आसा, ही भूमिका घेतली. सत्ता केंद्राभोंवतणी आनी संपत्तीच्या प्रभावाखाल आशिल्ल्या राजकारणाचो भेस करून जनहिताचें राजकारण निर्माण करप आनी नैतिक, संस्कृतीक, वैचारिक मळार मुळाव्यो सुद्दारणा घडोवन हाडून ताचेवरवीं जातिविरयत आनी वर्गविरयत समाजाची निर्मिती करप, हें संपूर्ण क्रांतीचें उद्दिश्ट आसा, अशें ताणें स्पश्ट केलें.

संपूर्ण क्रांतीक अनुसरून गुजरात राज्यांतलें राजकी सत्तांतर आनी बिहारांतलें आंदोलन हांचो ताणें पुरस्कार केलो. २५ जून १९७५ सावन देशांत आणीबाणी जाहीर जाली आनी जयप्रकाशाक कांय काळ स्थानबध्द केलो. फुडें ताची भलायकी इबाडली, म्हूण ताका मुक्त केलो. ताका ५ म्हयने हॉस्पिटलांत रावचें पडलें. ह्या काळांत जयप्रकाश हाणें सगळ्या मुखेल विरोधी पक्षांक एकठांय हाडून 'जनता पक्ष' नांवाचो एक

पक्ष स्थापन केलो. १९७७ चे लोकसभेचे वेंचणुकेंत जनता पक्षाक भोवमतान जैत मेळ्ळें. भारतीय लोकांनी ताच्या मोलादीक जिवीतकार्याक फाव अशी 'लोकनायक' ही पदवी ताका दिली.

ताणें बरयल्लीं पुस्तकां अशीं: 'Why Socialism' (१९३६), ह्या पुस्तकांत ताणें आपले राजकी भुमिकेची सविस्तर चर्चा केल्या; 'Towards Struggle' (१९४६), ह्या पुस्तकांत राश्ट्रीय चळवळीची कारणमीमांसा उक्तायल्या; 'A plea for the reconstruction of Indian Polity' आनी 'From Socialism to Sarvodaya' (१९५९).

- कों. वि. सं. मं.

**जरथुश्त्र:** पारशी (जरथुश्त्री) धर्माचो संस्थापक. झरथुष्ट्र वा झोरोआस्टर अशींय ताचीं नांवां रुढ आसात. जरथुश्त्राच्या काळाविशीं निश्चित म्हायती मेळना. 'अवेस्ता' साहित्याविशींचे आर्विल्ले बरपावळीप्रमाण जरथुश्त्राचो काळ इ.स.प. ६५० च्या सुमाराक आसूंक जाय, अशें कांय युरोपीय जाणकार मानतात. कांय पूर्विल्ले ग्रीक लेखक मात ताचो काळ इ.स.प. सुमार ६२०० वा ताच्याकूय पयलींचो अशें मानतात. 'अवेस्ता' धर्मग्रंथांतलो, जरथुश्त्राचे विचार आशिल्लो 'गाथा' नांवाचो अध्यात्मविद्याविशींचो जो मंत्रविभाग आसा, तो ऋग्वेदांतल्या सूक्तांच्या समकालीन आसा, अशें मत कांय जाणकारांनी परगटायलां. देखून, गाथांचो आनी जरथुश्त्राचो काळ ऋग्वेद संहितेइतलो पूर्विल्लो आसा, अशेंय एक मत आसा. वेगवेगळे पुरावे मतींत घेवन, जरथुश्त्राच्या गाथांचो रचनाकाळ इ.स.प. सुमार १,५०० वर्सांइतलो आसूंक जाय, अशें म्हण्टात.

जरथुश्त्राचो जल्म इराणचे वायव्येक आशिल्ल्या आझरबैजान प्रांतांतल्या रे नावाच्या गांवांत फरवरदिन म्हयन्यांतल्या खोर्दादच्या दिसा (पारशी नव्या वर्साचो पयलो दीस) जालो अशें म्हण्टात. 'देनकर्त' च्या सातव्या भागांत जरथुश्त्राच्या जल्माविशींची अप्रूप कथा आयल्या. प्रत्यक्ष अहुर मज्दाचें तेज आशिल्लो दिव्य अंश दोग्धोवाच्या पोटांतल्या गर्भांत येवन रावलो आनी तें दिव्य तेज आशिल्लो जरथुश्त्र जल्माक आयलो, अशें ते कथेचें सार आसा. जरथुश्त्राच्या जल्माउपरांत पुराय धर्तरेन धादोसभरीत जावन म्हळें, 'स्पितम घराण्यांतलो आश्रव जरथुश्त्र जल्माक आयिल्ल्यान आमचें कल्याण जालें.'

जरथुश्त्राचो उदय जावचेपयलीं इराणांत धर्माच्या नांवाखाल अंधश्रध्दा, मंत्रतंत्र, भूतपिशाच्च, तामसी आचारविचार, आसुरी आनी क्षुद्रशक्तीवयलो प्रजेचो विश्वास असल्यो वायट प्रवृत्ती वाडीक लागिल्ल्यो आनी सगळ्याक अधर्म माजिल्लो. पुरोयत लोकांचो राजा, राजवाडे, गिरेस्त, मांडलिक वर्गाचेरुच न्हय, तर पुराय इराणी प्रजेचेर पगडो बशिल्ल्यान सगळी इराणी प्रजा पुरोयत वर्गाच्या हीन आचार-विचारांच्या शेकातळा आशिल्ली.

आपल्या धर्माची थापणूक करतना जरथुश्त्राक पुरोयत वर्गाच्या खर विरोधाक आनी समाजीक छळाक तोंड दिवचें पडलें. तरीकूय देवाचेर अढळ भावार्थ दवरून ताणें आपलें व्रत चालू दवरलें. ताणें इराणी भौसाक उदात्त एकेश्वरवादाची शिकवण दिवन बरे आचार, बरे विचार आनी बरें कर्तुप हांचें दिसपट्टे जिणेंत आचरण करपाची प्रेरणा दिली आनी मन:शांती आनी शाश्वत सुख मेळोवपाखातीर सदाचाराची नितळ-निवळ जीण जियेवपाक शिकयलें.

'गाथा' (यस्न २९.१) त अशें म्हळां, की 'धर्तरेच्या आत्म्यान (गँउश् उर्वा) परमेश्वराकडेन काळजांतल्यान अशी प्रार्थना केली की धर्तरेचेर पातकां आनी अनीत वाडत आसा. ह्या अधर्मापसून आनी विनाशापसून सृश्टीचें रक्षण करपाखातीर हे परमेश्वरा (अहुर मज्दा), तुजेबगर आतां दुसरो कोणूच तारुंक शकना.'

अहुर मज्दाची कृपा आनी आशीर्वाद मेळोवपाखातीर जरथुश्त्रान धा वर्सां एकांतांन रावन आत्मचिंतन केलें. आपल्यो इत्सा, व्यथा आनी दुख्खां ताणें परमात्मचिंतनात आसतना वा प्रार्थना रुपान अहुर मज्दाक सांगलीं. अहुर मज्दाचे कृपेन ज्ञान आनी प्रेरणा घेवन ताणें आत्मोध्दार केलो आनी दैवी प्रेरणेवरवीं लोकांचो उध्दार करपाच्या वावराक सुरवात केली. परमात्मचिंतनात आसतना ज्या गूढ तत्त्वांची आनी खोल विचारांची जरथुश्त्राक स्फूर्त मेळ्ळी, ते विचार 'गाथा' रुपान अवेस्ता साहित्यांत अजरामर जावन उरल्यात.

जरथुश्त्रान प्रत्यक्ष अहुर मज्दावांगडा आत्मसंवाद करून ज्ञान आनी मार्गदर्शन मेळयलें, हें 'गाथा' - यस्न ४४ हाचेवेल्यान स्पश्ट जाता. गरीबी, दुख्ख हांकां लागून निर्शेल्ले मनीस जिणेंत नवी उर्बा, उमेद आनी उजवाड हाडपाचो यत्न जरथुश्त्रान केलो. लोकांक जागोवन सदाचरणाचें म्हत्व पटोवन दिवपाचे यत्न ताणें केले. तशेंच जनावरांचे बळी दिवप, जनावरांक छळप, सोमपान (होमपान) करप असले उपदेश करपी तेन्नाच्या फटीच्या धर्मगुरुंपसून शादूर रावपाची शिटकावणी ताणें लोकांक दिली. दैवी जिणेपसून पयसावनासतना स्वताच्या सुखाखातीर आत्मविश्वास बाळगून मनशान आत्मनिर्भर कशें जावचें, हें ताणें शिकयलें. आत्मनिर्भर जावपाचो दैवी संदेश आनी उपदेश आयकुपाखातीर जरथुश्त्राकडेन इराणच्या वेगवेगळ्या वाठारांतले जायते लोक येवपाक लागले. ताचे शिकवणींत विवेक आनी विचारस्वातंत्र्य हांचें दर्शन घडटा. सुरवातीक-सुरवातीक ताच्या उपदेशाक बरो प्रतिसाद मेळ्ळोना. आपले यत्न निर्फळ जातात आनी आपल्याक निश्ठावंत अनुयायी मेळनात, म्हूण जरथुश्त्र कश्टी जातालो. 'गाथा' - यस्न ४६ त ताची ही तळमळ दिसून येता. हे कश्टी वृत्तीन तो परमात्म्याक 'हांव खंय वचूं? पावल खंय घालूं?' अशी कळवळून प्रार्थना करतालो. फुडें ताका अस्तंत इराणांतल्यान उदेंत इराणाकडेन वचपाची ईश्वरी प्रेरणा मेळ्ळी.

आपल्या नव्या धर्माचो प्रचार करीत तो निमाणो राजा विश्तास्प हाच्या दरबारांत बॅक्ट्रियांतल्या (सद्याच्या अफगाणिस्तानांतल्या) बाल्ख हांगा गेलो. ल्हव ल्हव ताका जायते अनुयायी मेळ्ळे. स्पितम कुळांतल्या हएचत्-अस्पाच्या वंशजांनी जरथुश्त्राकडल्यान सगळ्यांत पयलीं दीक्षा घेतली (गाथा-यस्न ४६.१५). तेउपरांत व्होग्वा घराण्यांतल्या फॅरपओश्त्रान जरथुश्त्राकडल्यान नव्या धर्माचो उपदेश घेतलो. ताच्या धर्मविचारांचेर आपलो पुराय भावार्थ दवरून कितल्याशाच लोकांनी ताचो नवो धर्म आपणायलो. राजा विश्तास्प लेगीत जरथुश्त्राचो अनुयायी जालो. अशेतरेन जरथुश्त्री वा पारशी धर्माचो प्रसार नेटान वाडून तो इराणचो राश्ट्रीय धर्म जालो.

जरथुश्त्रान केल्ल्या पर्जळीत वावराची सगळ्यांनी तुस्त तोखणाय केली. गाथेउपरांत रचिल्ल्या 'अवेस्ता' धर्मग्रंथांत बरे आचार-विचार-कर्तुपांचें अधिश्ठान आशिल्लो म्हान मनीस म्हूण ताची व्हडवीक गायल्या. जरथुश्त्रान सगळे प्रजेक आपलो पारशी धर्माविशींचो दिव्य संदेश दिवन आत्मनिर्भर जीण जियेवपाक मार्गदर्शन केलें. इराणी प्रजेक शुध्द आनी पवित्र विचारांची प्रेरणा दिवन ताणें उदरगतीचो नवो मार्ग दाखयलो. म्हान विभूतिच्या तोलामोलाचो वावर केल्लो जरथुश्त्र इराणी प्रजेच्या काळजांत शेंकड्यांनी वर्सां मानाची सुवात मेळोवन बसलो. अवेस्ता उपरांतच्या पारशी साहित्यांत जरथुश्त्राच्या दिव्य जिविताविशीं जायत्यो चमत्कारीक कथा आनी आख्यायिकांची भर पडली.

जरथुश्त्राचे शिकवणींत मनाचे आनी कुडीचे पवित्रतायेचे राखणेविशीं खूब म्हत्व आसा. कसल्याच कारणाक लागून देह (खास करुन मेल्ल्या देहाच्या संसर्गाक लागून) अपवित्र जावंचो ना, हाची त्या धर्मांत जतनाय घेतल्या. पावित्र्यरक्षणाविशींच्यो बारीक-सारीक सुचोवण्यो 'अवेस्ता' च्या 'वेंदिदाद' नांवाच्या भागांत आसात.

जरथुश्त्राच्या मरणाविशीं अवेस्तांत कसलोच उल्लेख मेळना. पेहलवी ग्रंथांत, ताका एका अग्निमंदिरांत (अग्यारींत) तुरबरातूर नांवाच्या अधमाच्या हातांतल्यान मरण आयलें, असो उल्लेख आयला. मरणावेळार ताची पिराय ७८ वर्सांची आशिल्ली, अशें तातूंत फुडें म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**जरदाळू:** (हिंदी- झरदालू; खुबनी; इंग्लीश-ॲप्रिकॉट; लॅटीन-प्रूनस

आर्मेनियाका; कूळ-रोझेसी). हो रुख मुळचो चीन आनी मध्य आशिया वाठारांतलो. आर्मेनिया मार्गान ताचो प्रसार भारत, इराण, ईजिप्त आनी ग्रीस ह्या देशांत जालो. आर्मेनियांत हाची जायतीं वर्सां लागवड जाताली. देखून ताच्या लॅटीन नांवात ताचो उल्लेख आसा. अलेक्झांडर द ग्रेट हाच्या काळांत हो रुख युरोपांत पावलो. वायव्य हिमालयांत हो रुख मोट्या प्रमाणांत जाता. उत्तर भारतांत काश्मीर, हिमाचल प्रदेश, कुलू आनी कुमाऊँ तेचपरी सिरिया, इराण आनी इराक ह्या वाठारांनी ह्या रुखाची लागवड करतात. अमेरिका, ऑस्ट्रेलिया, आफ्रिका, इटली, फ्रांस, स्पेन आदी वाठारांत वेपारी नदरेन ह्या रुखाची लागवड करतात.

जरदाळूच्या रुखाची उंचाय सुमार ९-१० मी. आसता. कांडाची साल तांबसार आसता. पानां सादीं, एकाफाटल्यान एक, तांतयां आकाराचीं, ५-९ सेंमी. लांब तोंकांचीं आनी कांटे आसतात. फूल तांबसार आनी एकोडेंच येता, ताका देंठ आसना. ह्या रुखाक मध्यम आकाराचीं (आवाळ्यांयेदीं) घट्ट फळां येतात, जीं पिकतकच तांबसार हळडुवीं जातात. भायली साल गोड आसता. फळाच्या कट्ट्याचेर एकेवटेन दाट कड आसता. बी गडद पुडीकोराची आनी खावपाक रुचीक आसता.

समशीतोश्ण हवामान आनी रेवाळ जमनींत जरदाळूची लागवड बरी जाता. 'कैशा', 'न्यू कॅसल', 'रॉयल', 'शिप्ली अर्ली' आनी 'सेंट अँब्रोझ' ह्यो जरदाळूच्यो जाती चड म्हत्वाच्यो. रानवट जरदाळू वा सप्ताळूच्या खांदयांचेर बऱ्या जरदाळूचे दोळे भरून कलमांचीं गार्फां करतात आनी ६-८ मी. अंतराचेर लायतात. कलमां लावन वर्स जातकच रुखाक आकार दिवपाक भुंयेपसून सुमार ५०-७५ सेंमी. उंचायेचेर ताचो वयलो भाग कापून उडयतात.

उपरांत कांडाचे कुशीक नव्यो खांदयो येवपाक दिवन रुखाच्या विस्ताराक आकार हाडटात. पयल्या हंगामाच्या शेवटाक दवरिल्ल्यो ३-५ खांदयो कातरतात. फुडें ३-४ वर्सांनी आनी उपरांत खांदयांची दाटी जावंची न्हय, म्हूण खांदयो कातरतात. हाका लागून विस्ताराच्या मध्य भागाक जाय तसो सूर्यप्रकाश पावन ताचेर फुलांचो चंवर येता. लागवडी उपरांत ४-५ वर्सांनी ह्या रुखाक दाट फळां येतात. फुडें ३०-३५ वर्सां मेरेन हीं फळां येत रावतात. पिकिल्लीं फळां खातात आनी कांय फळां सुकयतात. सुकिल्लो जरदाळू अफगाणिस्तान ह्या देशांतल्यान भारतांत येता.

**उपेगः** सुकीं फळां वा डब्यांत बंद केल्ल्या जरदाळूच्या फळांक बरें मोल मेळटा. साल आनी बियो जायत्या खावपाच्या पदार्थांनी वापरतात. देखीक- आइसफ्रूट, गोड पदार्थ. सौंदर्यप्रसाधनांत, वखदांत आनी रांदपाक बियांच्या तेलाचो उपेग करतात. तेचपरी दिव्यांतूय ह्या तेलाचो वापर करतात. जळव आनी साऱ्याखातीर पेंड उपेगी पडटा. फळांत आशिल्ल्या म्होंवल्यांत साकर, थायामीन, लोह आनी 'अ' जीवनसत्व आसता. बियेची कट्टी चड क्रियाशील केल्ल्या कार्बनाखातीर उपेगी पडटा. लांकूड गोबरा रंगाचें आसता आनी ताचेर गडद पुडीकोराच्यो आनी चित्रविचित्र रंगाच्यो आकृत्यो आसतात. लांकूड घट्ट आसता आनी जायते तरेन ताचो उपेग करतात.

**रोगः** जरदाळूच्या झाडाक जावपी रोगांत खैरा (canker) वा डिंक्या (gummosis) हो एक म्हत्वाचो रोग आसा. 'स्यूडोमोनस' वंशांतल्या सूक्ष्मजीवांक लागून हो रोग जाता. कांड, खांदयो आनी फळां हांचेर हो रोग दिश्टी पडटा. ते भायर पानावेले तिबे, पुडीकोराचो तांबेरा हे सारके ल्हान ल्हान रोग जरदाळूच्या रुखाक जातात.

- कों. वि. सं. मं.

## जरीआई-मरीआई:

एक उग्र आनी तापट स्वभावाची क्षुद्रदेवता. 'जरी' म्हळ्यार जोर वा दुयेंसाची धाम आनी 'मरी' म्हळ्यार देवी, पटकी सारकिल्या रोगाची धाम. रोग, दुयेंस, पिडा हांची देवता म्हूण जरीआई-मरीआईक वळखतात.

जरीआई-मरीआईक वेगवेगळ्या वाठारांत वेगवेगळ्या नांवांनी वळखतात. अस्तंत महाराष्ट्रांत मरीआई, विदर्भांत मरीमाय, उत्तर प्रदेशांत मरीमाई, मारी वा मरीभवानी म्हण्टात. दक्षिण भारतांत तिका 'जरी-मरी' वा 'जरीआई-मरीआई' म्हण्टात. दक्षिण भारतांतले पोलेरम्मा ग्रामदेवतेक मरीआईचेंच रूप मानलां.

जरीआई-मरीआईचे उत्पत्तीविशीं जायत्यो कथा सांगतात. तातूंतली एक अशी:

एका चांडाळान आपूण ब्राह्मण म्हूण सांगून एके ब्राह्मण चलयेकडेन लग्न केलें. कांय काळाउपरांत ते चलयेक चांडाळाचें कपट समजलें. तिणें ही घडणूक आवय-बापायक सांगली आनी तिडकीभरशीं घोवाक आनी स्वताक श्राप दिलो. त्या श्रापान ती 'मरी' जाली. घोव श्रापाक लागून रेडो जालो. तिचीं भुरगीं कोंबडी आनी बोकडी जालीं. मरी आई ही मूळ आंध्र प्रदेशांतली आसूंये, अशें प्र. कृ. प्रभुदेसाय हाचें मत आसा.

जरी-मरीचें स्थान गांवांत एका कोनशाक वा गांवांभायर एकाद्र्या झाडा-पोंदा आसता. हे देवतेची देवळांतूच प्रतिश्ठापना करपाक जाय, असो नेम ना. कांय कडेन सैमीक अवस्थेंत आशिल्ली तर कांयकडेन वस्त्रां न्हेसयल्ली जरी-मरीची मूर्त भारतांत दिश्टी पडटा.

कर्नाटकांत कारवार जिल्ह्यांत शिंसी हांगा मारीचें एक देवूळ आसा. दर वर्सा थंय जात्रा भरता. तेन्ना तिका कोंबडो, बोकडो, मेंढो, रेडो हांचो बळी दितात. देवीची मूर्त लांकडाची आनी शेंदूरान भरिल्ली आसता. उत्तर प्रदेशांत तिका वयलेवरीच बळी दितात. बळी दितना जनावराची तकली एका घावांत वेगळी करपाक जाय, असो बळीविधीचो नेम आसा. तिका संतुश्ट केल्यार गांवावेली रोग पीडा ना जाता, असो समज आसा.

महाराष्ट्र तशेंच दक्षिण भारतांत मरीआईचे पूजा विधींत कोडूलिंबांच्या पाल्याक खास म्हत्व आसा. पोतराज हो मरीआईचो उपासक वा भगत आसून ताचेवतीन मरीआईक प्रसन्न करची, असो समज आसा. कांय कडेन पोतराजाक 'जरीमरी' वा 'कडक लक्ष्मी' म्हण्टात. गांवांत आयिल्ल्या रोगाचे सांथीचो नाश करपाक मरीआईचो गाडो गांवचे शिमेमेरेन पोतराज व्हरता. मंगळारा वा सुक्रारा हो गाडो गांवचे शिमेमेरेन व्हरपाचो विधी जाता. ताका लागून वायट पीडा, रोग गांवचे शिमेभायर वतात, असो लोकांचो भावार्थ आसा. हो गाडो गांवचे शिमेभायर व्हरपाचे विधीक 'जरी-मरीची जात्रा' म्हण्टात.

भाविक लोक तिका जायत्यो आंगवणी करतात. उज्यावेल्यान चलप, स्वताच्या शरीराक दाभण वा सुयो तोपप, फाटीक हूक तोपप, असल्या खर आंगवणींचो तातूंत आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## जर्मनी (अस्तंत/उदेंत):

मध्य युरोपांतले उद्येगीक आनी अर्थीक नदरेन उदरगतीक पाविल्ले दोन देश. जर्मनीक पयलींसावन 'युरोपाचें काळीज' अशें म्हण्टात. एकवटीत आशिल्ल्या ह्या राश्ट्राचे १९४९ त दुसऱ्या म्हाझुजाच्या परिणामांतल्यान अस्तंत जर्मनी (फेडरल रिपब्लिक ऑफ जर्मनी) आनी उदेंत जर्मनी (जर्मन डेमोक्रेटिक रिपब्लिक) अशे दोन वांटे जावन दोन स्वतंत्र देशांची निर्मणी जाली. अस्तंत जर्मनीचो विस्तार ४७° उत्तर सावन ५५° उत्तर आनी ६° उदेंत सावन १४° उदेंत असो आसा. हाचे उत्तर शिमेलागीं डेन्मार्क, उदेंतेवटेन उदेंत जर्मनी आनी चेकोस्लोव्हाकिया, दक्षिणेवटेन स्वीत्झर्लंड आनी ऑस्ट्रिया आनी अस्तंतेवटेन नेदरलँड्स्, बेल्जियम, लक्सेंबर्ग आनी फ्रांस हे देश आसात. वायव्य दर्यादिगेलागीं उत्तर दर्या आनी ईशान्येवटेन बाल्टिक दर्या आसात. उत्तर-दक्षिण लांबाय ८२७.२ किमी. आनी उदेंत अस्तंत रुंदाय ४५० किमी. आसा. वट्ट क्षेत्रफळः २,४८,६०१ चौ.किमी.; लोकसंख्याः ६,०८,५२,००० (१९८६). राजधानी- बॉन.

उदेंत जर्मनीचो विस्तार ५०° १०' उत्तर ते ५४° ४१' उत्तर आनी ९° ५४' उदेंत ते १५° २' उदेंत. हाचे अस्तंतेवटेन अस्तंत जर्मनी, दक्षिणेवटेन चेकोस्लोव्हाकिया, उदेंतेवटेन पोलंड आनी उत्तरेवटेन बाल्टिक दर्या आसा. वट्ट क्षेत्रफळः १,०८,१७८ चौ.किमी.; लोकसंख्याः १,६६,४०,००० (१९८६). राजधानी- बर्लिन.

**भूंयवर्णनः** भुगोलिक नदरेन अस्तंत जर्मनीचे पांच वांटे जाल्यात.







उत्तर दर्या देगेलागीं व्हड सकयलो वाठार पातळ्ळा. दर्यालागचो वाठार वाळवंटी आसा आनी मदल्या वाठारावटेन ह्या सकयल्या प्रदेशाची उंचाय ३०० मी. मेरेन वाडत गेल्या. हो वाठार ऱ्हायनसावन उदेंत जर्मनीमेरेन पातळ्ळा. अस्तंत वाठारांत ऱ्हायन न्हंयचे खचदरींचो वाठार येता. अस्तंत जर्मनीचो दक्षिण वाठार पठारां आनी दोंगरांच्या वळींनी भरला. हातूंत ब्लॅक फॉरेस्ट आनी ओडन व्हाल्ट ह्यो मुखेल पर्वतांवळी आसात आनी फुडें त्यो २,००० ते ३,००० मी. मेरेन उंचायेच्या बव्हेरियन आल्प्स ह्या बऱ्याच ऊंच दोंगरांक वचून मेळटात. हे पर्वताचे वळीफुडें स्वीत्झर्लंड आनी ऑस्ट्रिया हे वाठार अस्तंत जर्मनीकडल्यान पयसावल्यात. त्सूकरिपट्स हें अस्तंत जर्मनीतलें सगळ्यांत ऊंच दोंगरातेमक. समुद्रथरासावन ताची उंचाय ३,२०० मी. आसा. कॉन्स्टन्स हें ह्या देशांतलें सगळ्यांत व्हड सरोवर; पूण ताचो कांय वांटो स्वीत्झर्लंड आनी ऑस्ट्रियांत आसा. देशाचो दक्षिण वाठार सोडीत जाल्यार ह्या देशांतल्यो सगळ्यो न्हंयो उत्तर दर्यावटेन व्हांवत वतात. अस्तंत वाठार ऱ्हायन आनी तिच्या उपन्हंयांनी भरला. मोझेल आनी मेन ह्यो तांतल्यो मुखेल उपन्हंयो. ऱ्हायन न्हंय खचदरींतल्यान सुमार ८०० किमी. अंतरामेरेन व्हांवत वता. उदेंत वाठारांत एम्स, वेझर आनी एल्ब ह्यो न्हंयो आसात. ह्या न्हंयांच्या तोंडालागीं खाडी आसात. दक्षिण वाठारांतल्यान डॅन्यूब न्हंय सुमार ६४० किमी. अंतरामेरेन अस्तंतेसावन उदेंतेवटेन व्हांवता. अस्तंत जर्मनीच्या वायव्य दर्यादिगेलागीं फ्रिझीयन जुंवे आसात. एल्ब न्हंयच्या तोंडालागीं हेल्गोलँड नांवाचो ल्हानसो जुंवो आसा.

उदेंत जर्मनीच्या सामक्या उत्तरेवटेनचो बाल्टिक दर्यालागचो वाठार रेंवेचो आसा आनी थंय बऱ्योच ल्हानसान दोंगुल्ल्यो, रेंवेच्यो दोंगुल्ल्यो आनी सरोवरां आसात. मदलो वाठार पिकाळ आनी मळांचो आसलो तरी हांगा कांय वाठारांनी पर्वत आनी रेंव आसा. दक्षिण वाठारांत मिट्ल्जबर्ग पर्वतरांग आनी उत्तर जर्मन मळाचो प्रदेश आसा. हांगा सगळ्याक रानां आसात. फिख्टेलबेर्क हें एर्ट्सगबिर्ग पर्वतवळीतलें १,२१४ मी. उंचायेचें दोंगरातेमक आसा. बाल्टिक दर्यादिगेलागीं जुंवे उणे आसात. तातूंतलो ऱ्युगन हो सगळ्यांत व्हड. ओडर, नीस, एल्ब, हाफेल, स्प्री, झाले (साल) ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो.

**हवामानः** जर्मनीचे उत्तर शिमेलागीं दर्या आसलो तरी जमनीचे सुवातीक लागून हवामान सगळेकडेन एकसारकें ना. उत्तरेवटेन दर्यालागच्या वाठारांनी शियाळ्यांत तापमान १७° से. आनी जुलय म्हयन्यांत सुमार १५.६° इतलें आसता.

ऱ्हायनसावन एल्ब न्हंयच्या देगणामेरेन तापमान वेगळ्या प्रकारचें आसता. जानेवारी म्हयन्यांत सादारण -१.१° से. आनी जुलय म्हयन्यांत तें १५.६° से. इतलें आसता. जुलय म्हयन्यांत ह्या वाठारांत झगझगीत सूर्या उजवाड आसता. हांगा पावस उणो पडटा.

एल्ब न्हंयचे उदेंतेवटेन शियाळो बरोच खर जाल्यार गिम सोंसपासारको आसता. जानेवारी म्हयन्यांत सरासरी तापमान -२.२° से. जाल्यार गिमांत २०° से. आसता. सकयल्या वाठारांनी पावस उणो पडटा, पूण अस्तंत वाठारांत पावसाचें प्रमाण चड आसा आनी गिमांत बरोच पावस पडटा. शियाळ्यांत पावसाचें प्रमाण उणें आसता.

बव्हेरिया अल्पायन पर्वताच्या वाठारांत हवामान थंड आसता. जानेवारींत सरासरी तापमान -११.७° से. आनी जुलयांत सरासरी १.७° से. मेरेन आसता. शियाळ्यांत भरपूर हिम पडटा आनी गिमांत पावसाचें प्रमाण चड आसता.

शियाळ्यांत नैर्ऋत्येवटेनच्यान ईशान्येवटेन वारें व्हांवता, पूण गिमांत तें उत्तरेवटेन वता. ह्या वाऱ्याचो हवामानाचेर परिणाम जाता. अल्पायन देगणाच्या वाठारांत आनी मदल्या उंचेल्या वाठारांत वाऱ्याची दिका बदलत आसता. वसंत ऋतूंत फॉन वाऱ्याक लागून बव्हेरियन वाठारावटेन उश्ण आनी सुकें वारें व्हांवता. ह्या वेळार उंचेल्या वाठारांत

हिम वितळटा. न्हायन न्हंयच्या देगणांवटेन व्हांवपी वाऱ्याक लागून वसंत ऋतूंत दाट धुकें पडटा.

हांगा उत्तर दर्यादेगेवटेन वर्सुकी सुमार ७० सेंमी. पावस पडटा. न्हायन न्हंयच्या उंचेल्या वाठारांवटेन आनी दक्षिण जर्मनीवटेन पावसाचें प्रमाण वाडत वता. ब्लॅक फॉरेस्ट पर्वत वाठारांनी सरासरी पावस ८७ सेंमी., हार्ट्झ वाठारांत १५० सेंमी., बव्हेरियन उंचेल्या वाठारांत १५० ते २०० सेंमी. आनी आल्प्स पर्वतवाठारांत २०० सेंमी. पावस पडटा. देगणांच्या वाठारांत पावसाचें प्रमाण उणें म्हळ्यार ७५ सेंमी. इतलें आसता.

**वनस्पत आनी मोनजातः** अस्तंत आनी उदेंत जर्मनींत युरोपांत सांपडपी वनस्पत आनी मोनजात दिसून येता. बरोच वाठार अरुंद पानांच्या रुखांनी भरला. असल्या रुखांचीं रानां पर्वत वाठारांनी आसात. तेभायर उण्या पावसाच्या वाठारांत पानां झडपी रुखांचीं रानां आसात. स्प्रूस आनी ओक ह्यो दोन झांडांच्यो जाती सगळेवटेन दिसतात. ऊंच पर्वतांच्या वाठारांनी स्प्रूस जाल्यार दर्यादेगेलागीं खेटार पायन आनी लार्च रुख आसात. तरातरांचीं फुलझाडां आनी शेळ्याचेय तरेकवार प्रकार हांगा आसात. हरणां, रानदुकर, कोले, बॅजर, बीव्हर हे सारकी मोनजात आसा. ऑटर, लिंक्स हेसारके प्राणी दिश्टी पडटात. न्हंयांनी आनी उत्तर दर्यांत कार्प, टेंच, स्टर्जन, सॅमन ह्या प्रकारचें नुस्तें आसा. रानवटी पाखे, कोगुळ, मेस्त सुकणें, जे, तशेंच स्थलांतर करपी बरींच सुकणीं ह्या वाठारांत सांपडटात.

**इतिहासः** जर्मनी ह्या शब्दाची व्युत्पत्ती वा ताचो इतिहास स्पश्ट ना. जर्मन हें नांव घडये न्हायन न्हंयचे उदेंतेवटेनच्या टोळयांच्या संदर्भांत वापरलां आसूंये. उपरांत ट्यूटॉनिक टोळयांनी त्याच वाठारांत राबितो केल्ल्यान तांच्याय संदर्भांत तेंच उतर वापरलां आसूंये, असो अदमास आसा. पूर्विल्ल्या काळांतल्या मनशाच्या अस्तित्वाविशीं थंय कांय कुरवो सांपडल्यात. होमो हायडेलबर्गेनसिस नांवाचो मानववंशीय नमुनो जर्मनींत सामक्याच पोरन्या काळासावन मनशाचें अस्तित्व आशिल्लें, हें सिध्द करता. इ.स. चे सुर्वेक जर्मनींत विंगड विंगड पंगडांनी राबितो केल्लो. ज्यूलियस सीझरान जर्मनीचो कांय वाठार जिखिल्लो. फुडें ह्या वाठाराचो तो सुभेदार आशिल्लो.

इसवी सनाचे सुर्वेकसावन सुमार २५० वर्सांचो काळ म्हळ्यार जर्मन पंगडांचो एकमेकांमदल्या झुजाचो आनी रोमन सम्राटांवांगडा जाल्ल्या लडायांचो काळ आशिल्लो. हातूंत केन्नाय थळाव्या पंगडाक तर केन्नाय सम्राटांक जैत मेळटालें. पांचव्या शतमानांत हूण आनी हेर टोळयांचो जर्मनींत शेक चलतालो. ह्याच काळांत व्हडा प्रमाणांत जर्मनीचें किरिस्तांवकरण जालें. आठव्या शतमानाचे सुर्वेकमेरेन थंय मेरोव्हिंजियन घराण्यांतल्या राजाचो शेक आशिल्लो, उपरांत कॅरोलिंजियन घराण्यांतले राजा चड बळिश्ट जाले. तांतलो सगळ्यांत चड नामनेक पाविल्लो राजा म्हळ्यार शार्लमेन. ताणें बऱ्याच पंगडांचेर जैत मेळयल्लें. ताचे उपरांत ह्या राजघराण्याचें बळगें उणें जायत गेलें. ९११ सावन फुडें जर्मनींत राजा वेंचून काडपाची पध्दत सुरू जाली. इतले मजगतीं रोमन सम्राट आनी जर्मन राजा हांचेमदीं सत्तेखातीर सर्त चालूच आशिल्ली. १० व्या शेंकड्याचे सुर्वेक सॅक्सन घराणें मुखार आयलें. त्या घराण्याच्या राजांनी सुमार १०० वर्सां राज्य केलें. ह्या घराण्याच्या काळांत जर्मन साम्राज्याक पवित्र रोमन साम्राज्य अशें नांव मेळळें (९११-१०२४). उपरांत फ्रँकोनियन घराणें मुखार आयलें. ताचें राज्य सुमार २५० वर्सांखातीर ह्या राश्ट्राचेर चलतालें (१०२४-१२७३). फुडें हॅप्सबर्ग, लक्सेंबर्ग, बव्हेरिया ह्या सारक्या थळांचेर राजांनी १५० वर्सां राज्य चलयलें (१२७३-१४३८). उपरांत ऑस्ट्रियांतलें राजघराणें फुडें आयलें. त्या घराण्याची सत्ता सुमार ३५० वर्सां आशिल्ली (१४३८-१७९२). ऑस्ट्रियन घराण्यांतलो पयलो मॅक्समिलीयन हाचे कारकिर्दींत मार्टिन ल्यूथर मुखार आयलो. ताणें किरिस्तांव धर्मसुदारणेची व्हड चळवळ केली. हे चळवळीखातीर तीस वर्सांचें झूजय जालें (१६१८-४८). तरीपूण बरींच वर्सांमेरेन प्रॉटेस्टंट पंथ हांगा रिगूंक पावलो ना. प्रॉटेस्टंट चळवळ आनी झुजां हांच्या परिणामांतल्यान सतराव्या शतमानाच्या शेवटाक जर्मनींत बरींच ल्हानव्हड राज्यां अस्तित्वांत आयलीं. ऑस्ट्रिया, बव्हेरिया, सॅक्सनी, हॅनोव्हर, ब्रांडनबुर्क, प्रशिया हीं तातूंतलीं कांय म्हत्वाचीं आशिल्लीं.

सॅक्सनीचें राज्य उत्तर एल्ब हांगा बोहिमीया आनी ब्रांडनबुर्क हांचेमदीं आशिल्लें. थंयचें व्हेटीन हें राजघराणें प्रॉटेस्टंट आशिल्लें. हॅनोव्हर घराणेंय प्रॉटेस्टंट आशिल्लें. ऑस्ट्रिया आनी सॅक्सनी हांचेमदले संबंद इबाडिल्ले. सतराव्या शेंकड्यांत हेर कडल्या बऱ्याच राजांनी सॅक्सनी आनी ऑस्ट्रिया हांचे संबंद सुदारपाचे यत्न केले. दुसरो फ्रेडरीक (१७४०-१७८६) हाच्या फुडारपणाखाल प्रशियाचें राज्य हेर सगळ्या राज्यांपरस बळिश्ट जालें. फ्रेंच राज्यक्रांती आनी नेपोलियनाच्या झुजाच्या वेळार जर्मनीत राश्ट्रवादी विचारांक पोसवण मेळ्ळी. १८४८ त जाल्ले चळवळीन संसदीय पध्दतीखाला जर्मनीचें एकीकरण करपाचे यत्न केले. १८४९ त फ्रँकफर्ट संविधान तयार करून जर्मनीचें एक संघराज्य निर्माण जालें. हाका चडशे सगळ्याच जर्मन राजांची मान्यताय मेळ्ळी. पूण लोकशाय हाडपाचो हो यत्न पुरायपणान शक्य जालो ना आनी १८५० मेरेन एकीकरणाचे यत्न फसले.

१८५८ फ्रेडरिक विल्यमाचो भाव पयलो विल्यम राजा जालो. लश्करी सुदारणा करपाचो ताचो यत्न पार्लमेंटाक लागून शक्य जालो ना. ताणें प्रशियाचो फ्रांसांतलो राजदूत ऑटो फॉन बिस्मार्क हाका मंत्रीमंडळ घडोवपाखातीर आपोवणें धाडलें. बिस्मार्कान आपल्या कर्तुत्वाच्या नेटार जर्मनीचें एकीकारण घडयलें आनी १८७१ त जर्मन राज्य अस्तित्वांत आयलें.

बिस्मार्कान विंगड विंगड पक्षांवांगडा बरे संबंद दवरून आपली सुवात घट केली. ह्या काळांत समाजवादाचो प्रसार जर्मनीत जावंक लागिल्लो. पूण १८९० त दुसरो विल्यम कैसर राजा जाल्या उपरांत ताचे आनी बिस्मार्काचे संबंद इबाडले आनी त्याच वर्सा बिस्मार्कान आपलो राजीनामो दिलो.

१८९० ते १९१४ मेरेन जर्मनीन वसाहतीवटेन आपलें लक्ष घालूंक सुरवात केली आनी नौदलाची वाड केली. दुसऱ्या विल्यम कैसरान कामगारांखातीर बऱ्योच नव्यो येवजणी तयार केल्यो. बिस्मार्काचे कारकीर्दींत आंतरराश्ट्रीय पांवड्याचेर फ्रांस आनी रशियावांगडा जर्मनीचे संबंद पयसावले. विल्यम कैसरान ते पर्थून घट करपाचे यत्न केले. जर्मनीन इंग्लंडावांगडा वसाहत कबलात करून इंग्लंडाक उदेंत आफ्रिकेंतले कांय वाठार दिवन हेल्गोलॅंडचो जुंवो घेतलो. दुसरेखटेन फ्रांस आनी रशिया हांचेमदले संबंद वाडीक लागले आनी १८९३ त तांणी जर्मनीआड लश्करी कबलात केली. १८९७ त जर्मनीन चीनाचो कांय वाठार जिखून घेवन आपली वसाहत वाडयली. जर्मनीची लश्करी शक्त इतलेमजगतीं बरीच वाडिल्ली. वसाहतींच्या झुजांतल्यान जर्मनीची हेर साम्राज्यवादी राश्ट्रांवांगडा दुस्मानकाय निर्माण जाल्ली. हे गजालींतल्यान १९१४ त पयलें म्हाझूज सुरू जालें. पयलीं ह्या झुजांत जर्मनीक सगळेकडेन जैत मेळ्ळें. पूण १९१७ उपरांत हेर राश्ट्रांनी जर्मनीक पराभूत केलो.

९ नोव्हेंबर १९१८ त सम्राट कैसरान राज्य सोडलें. जर्मनीतली राज्यसत्ता काबार जावन थंय प्रजासत्ताकाची थापणूक जाली. रोझा लक्झेंबर्ग आनी कार्ल लीपकनेख्त हांच्या फुडारपणाखाल हंगामी सरकार सत्तेर आयलें. राश्ट्रीय संविधान परिशद घेवपाचें थारलें. जानेवारी १९१९ त, बर्लिनांत जाल्ले दंगलींत लक्झेंबर्ग आनी लीपकनेख्त हांचे खून जाले. १९ जानेवारीक वेंचणुको जावन ६ फेब्रुवारी दिसा राश्ट्रीय संविधान परिशदेची बसका जाली आनी फ्रेडरीक एबर्ट हाची जर्मन प्रजासत्ताकाचो पयलो अध्यक्ष म्हूण नेमणूक जाली. ह्याच काळांत बर्लिनांत कम्युनिस्टांनी बंड केलें; बव्हेरियांत सोव्हिएत प्रजासत्ताकाची थापणूक जाली, पूण सरकारान ह्यो दोनूय गजाली पुरायपणान काबार केल्यो. फ्रांसाचे

फुसलावणेक लागून न्हायनलँड प्रजासत्ताकाची निर्मणी जाली; पूण थंयच्या नागरिकांच्या विरोधाक लागून तें चड काळ तिगून उरलेंना. २३ जून १९१९ दिसा जर्मनीन व्हार्सायची कबलात मानून घेतली. ३१ जुलय १९११ दिसा वायमार संविधान लागू जालें. कम्युनिस्ट आनी तांचे विरोधक हांचे मजगतीं ल्हान व्हड झुजां जावंक लागलीं. मार्चांत सर प्रांतांत बंड जालें, पूण तेंय मोडून उडयलें. वायमार संविधानाप्रमाण जर्मनी हें प्रजासत्ताक राश्ट्र म्हूण घोशणा जाली. अध्यक्षाची वेंचणूक राश्ट्रीय थराचेर जावन ताची मुदत सात वर्सांखातीर थारायली. पूण वायमारचें संविधान लागू करपाखातीर, जाय तशी संद मेळूंक शकलीना. व्हर्सायची कबलात मान्य करून घेतिल्ल्यान तांचेआड लोकांमदीं वायट मत निर्माण जालें. जर्मनीचो हेर युरोपीय राश्ट्रांनी अपमान केला, अशी भावना लोकांमदीं खर जावंक लागली. बिस्मार्कान निर्माण केल्ले राश्ट्रीय पक्ष काबार जाले. अर्थीक मळाचेर जर्मनीची परिस्थिती सामकीच इबाडली. देशाभितर नवे पक्ष आनी नव्यो संघटना निर्माण जावन वायमार प्रजासत्ताक आनी व्हर्सायचे कबलातीक खर विरोध करूंक लागल्यो. १९२५ त वायमार प्रजासत्ताकाचो अध्यक्ष एबर्ट हाका मरण आयलें. १९२७ त देशाचो मुखेल फुडारी हिंडेनबर्ग हाणें पयल्या म्हाझुजांतल्या पराभवाचो धिक्कार केलो.

इतले मजगतीं नॅशनल सोशलिस्ट पार्टी (नाझी) ह्या पक्षाची शक्त दिसानदीस वाडत वताली. तांणी बव्हेरियांत उठाव करपाचो यत्न केलो, पूण तांकां जैत मेळ्ळें ना. ह्या पक्षाचें फुडारपण ॲडोल्फ हिटलर हाचेकडेन आशिल्लें. ताणें नवें राश्ट्रवादी तत्त्वगिन्यान मुखार मांडपाक सुरवात केली आनी देशांतल्या कितल्याशाच लोकांचें फाटबळ मेळयलें. जर्मन राश्ट्राक पर्थून एकदां सगळ्यांत बळिश्ट करपाचें ताचें सपन आशिल्लें. नाझीवाद हे ताचे विचारसरणेन सगळेवटेन येस मेळोवंक सुरवात केली. हाचेपयलीं ताणें बंड करून प्रजासत्ताक मोडपाचो यत्न केल्लो, पूण तो फळादीक जावंक नाशिल्लो. १९३० त जाल्ल्या वेंचणुकांनी हिटलराच्या नाझी पक्षाक भोवमत मेळ्ळें. ताचो व्हर्सायचे कबलातीक आशिल्लो खर विरोध, हें ह्या जैताचें मुखेल कारण आशिल्लें. तांणी कम्युनिस्टांक विरोध करूंक सुरवात केली. राश्ट्रीयत्वाची घोशणा दिवन नाझी पक्षान सगळेवटेन दहशतवाद सुरु केलो. इतले मजगतीं हिंडेनबर्गान सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत दवरून हिटलराच्या पक्षाक फाटीं ओडपाचो यत्न केलो; पूण १९३३ त हिटलराची वाडत वचपी शक्त मतींत आयिल्ल्यान हिंडेनबर्गाक, हिटलर हो जर्मनीचो चॅन्सलर म्हूण घोशणा करची पडली.

नाझी कामगार संघटनेन वंशभेद आनी राश्ट्रीय प्रस्नांचेर कामगारांमदीं फाटबळ मेळयलें. १९२९ सावन संवसारीक अर्थीक मंदीचो जर्मनीचेर वायट परिणाम जाल्लो. हिटलरान लोकांक एक नवी आशा दाखोवन कम्युनिस्ट आनी हेर संघटनांक काबार करूंक सुरवात केली. मार्च १९३३ त, जाल्ल्या वेचणुकांनी पर्थून नाझीक भोवमत मेळ्ळें. १३ मार्चाक संसदेन सरकाराक हुकुमशाय अधिकार दिवपी कायदो मानून घेतलो. हाचो परिणाम म्हूण जर्मनींत फकत नाझी हो एकूच पक्ष अस्तित्वांत उरलो. दुसऱ्या खंयच्याच पक्षाची थापणूक म्हळ्यार राजद्रोह थारलो. २ ऑगस्ट १९३४ दिसा हिंडेनबर्गाक मरण आयलें आनी हिटलर जर्मनीचो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९३५ त हिटलरान व्हर्सायची कबलात उक्तेपणान न्हयकारली. जर्मनी आनी ऑस्ट्रिया एकठांय हाडपाखातीर नाझी पक्षान कट करून ऑस्ट्रियाचो चॅन्सलर डॉल्फस हाचो खून केलो; पूण इटलीच्या धोरणांक लागून ऑस्ट्रिया आपले सत्तेखाला हाडप जर्मनीक शक्य जालें ना. हिटलरान जर्मनीत सक्तीचें लश्करी शिक्षण दिवंक सुरवात केली. १९३८ मेरेन जर्मनीकडेन खडेगांठ सैन्य, आर्विल्लीं शस्त्रां आनी फुडारिल्लें विमानदळ तयार जालें. त्याच वर्सा ऑस्ट्रियाचेर घुरी घालून जर्मनीन तो देश जिखलो. चेकोस्लोव्हाकियांतल्या जर्मनांक राखण दिवपा निमतान जर्मनीन थंयच्या कारभारांत लक्ष घालूंक सुरवात केली. सप्टेंबरांत सुडेटन वाठाराचेर जर्मनांनी आपलो शेक पातळायलो. मार्च १९३९ त, बोहेमिया आनी मोरॅव्हिया हेय वाठार आपले सत्तेखाला हाडले आनी पोलंडावांगडा अनधिकृत झूज सुरू केलें. ३ सप्टेंबर १९३९ दिसा पोलंडचे राखणदार ह्या नात्यान इंग्लंड आनी फ्रांसान जर्मनीआड झूज सुरु केलें आनी दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजाक सुरवात जाली. हिटलर आनी स्टॅलिन हांचेमजगतीं हाचेपयलींच जर्मनी-रशिया झुजबंदीची कबलात जाल्ली.

सुर्वेक जर्मनीक फकत फ्रांस आनी इंग्लंड ह्या दोन देशांवांगडा झूज करचें पडलें. जर्मनी, इटली आनी जपान हांची एकवटीत शक्त बरींच जैतां मेळोवंक लागली, तशें ह्या तीनूय राश्ट्रांचें बळगें उणें जावंक लागलें. फ्रांस आनी इंग्लंड हांच्यो वसाहती संवसारभर आशिल्ल्यान तांकां थंयसावन अन्न आनी लश्कर हांची पुरवण जाताली. पूण ह्या तीन राश्ट्रांची परिस्थिती तशी नाशिल्ली. अमेरिकेचें फाटबळ इंग्लंडाक आशिल्ल्यान थंयसावनूय बरोच पालव इंग्लंडाक मेळटालो. फ्रांसाचो पुरायपणान पराभव जालो आनी झुजबंदीची कबलात मोडून २२ जून १९४४ दिसा हिटलरान रशियेचेर घुरी घाली. जर्मनीचो इश्ट जपान हाणें अमेरिकेआड खडेगांठ झूज उबारलें. ११ डिसेंबर १९४४ दिसा जर्मनीन अमेरिकेआड झूज सुरु केलें. पूण सगळ्या वटांनी जर्मनीचेर घुरयो घालून इश्ट राश्ट्रांनी तांचें बळगें उणें करून सोडलें. १९४५ मेरेन इश्ट राश्ट्रांनी जर्मनी आनी बर्लिन शार आपल्या सैन्याच्या नियंत्रणाखाल हाडलें.

झुजांतल्या पराभवाचो धसको घेवन हिटलरान ३० एप्रिल १९४५ दिसा आत्महत्या केली. ताचेपयलीं ताणें ॲडमिरल डनिट्स हाका आपलो वारसदार नेमलो. ८ मे दिसा इंग्लंड आनी अमेरिकेन आनी ९ मे दिसा रशियान झूज सोंपिल्ल्याची घोशणा केली. जर्मनीचे चार वांटे करून अमेरिका, रशिया, इंग्लंड आनी फ्रांस हांच्या सैन्यान थंय आपलें नियंत्रण दवरलें. २५ फेब्रुवारी १९४७ दिसा इश्ट राश्ट्रांनी प्रशियाचें राश्ट्र बरखास्त करुन थंय सॅक्सनी, आनहाल्ट, ब्रांडनबुर्ग, मेक्लनबुर्ग आनी थुरिंजिया हीं राज्यां निर्माण केलीं. उदेंत वाठारावटेन सोव्हिएत रशियाचो शेक उरलो, जाल्यार अस्तंत वाठारांचेर हेर इश्ट राश्ट्रांचो. निमाणे १९४९ त देशाचे दोन कुडके जाले आनी अस्तंत जर्मनी आनी उदेंत जर्मनी अशे देश निर्माण जाले.

अस्तंत जर्मनीचें संघराज्य प्रजासत्ताक अस्तित्वांत आयल्याउपरांत १९४९ त, आडनौअर हांगाचो पयलो चॅन्सलर जालो. १९५४ त हो देश पुरायपणान सार्वभोवमत जालो. १९६३ त आडनौअर निवृत्त जालो आनी एरहार्ट चॅन्सलर जालो. आडनौअरच्या फुडारपणाखाल जर्मनीन आपली बरीच उदरगत केली. १९६९ त विली ब्रांट चॅन्सलर जालो. ताणें उदेंत जर्मनीवांगडा कबलात केली. १९७४ त ब्रांटान राजीनामो दिलो आनी हॅल्मुट श्मिड्ट चॅन्सलर जालो. १९८२ त जाल्ल्या वेचणुकांनी हॅल्मट कोहल चॅन्सलर म्हूण वेंचून आयलो. आयजमेरेन हांगा तोच चॅन्सलर आसा.

उदेंत जर्मनी १९४९ त स्वतंत्र राश्ट्र जाल्याउपरांत थंय विल्हेल्म पीक पयलो राश्ट्राध्यक्ष जालो. ह्या सरकाराची थापणूक जाल्याउपरांत थंयसावन रशियान सैन्य फाटीं घेतलें. जून १९५३ त, हांगा कामगारांची व्हड प्रमाणांत निदर्शनां जालीं. पूण रशियन सैन्याच्या पालवान ती काबार केलीं. १९६४ त रशिया आनी उदेंत जर्मनीन इश्टागत आनी एकामेकांक पालव दिवपाची कबलात केली. हांगा एकाच पक्षाचें सरकार चलतालें आनी १९७१ त एरिक हॉनेकर हाची देशाचो फुडारी म्हूण नेमणूक जाली. आयजमेरेन तोच हांगाचो मुखेली जावन आसा. १९७३ त उदेंत जर्मनीक अस्तंत जर्मनीवांगडा संयुक्त राश्ट्रांभितर प्रतिनिधीत्व मेळ्ळें.

झुजापयलीं एकवटीत जर्मन राश्ट्राची बर्लिन ही राजधानी आशिल्ली. झुजाउपरांत राश्ट्रावांगडा हे राजधानीचेय दोन वांटे जाले. भुगोलीक नदरेन हें शार पुरायपणान उदेंत जर्मनींत आसा, पूण ताच्या दोन वांट्यांतलो अस्तंत बर्लिन हो वाठार अस्तंत जर्मनीचे सत्तेखाल येता. १९५३ तल्या निदर्शनाउपरांत उदेंत बर्लिनांतल्यान जर्मन लोक व्हडा प्रमाणांत अस्तंत बर्लिन हांगा वचून रावंक लागले. निर्वासीतांचें हें व्हड

प्रमाणांत जावपी स्थलांतर थांबोवपाखातीर दोनूय देशांनी बर्लिन शाराच्या मदीं एक ४७ किमी. ची दक्षिण-उत्तर वणत उबारली. निर्वासितांचें प्रमाण हाका लागून उणें जालें. सद्यामेरेन हो प्रस्न दोनूय देशांखातीर तणावाचो जावन आसा. बर्लिनचे मदीं वण्टीचीं दारां उक्तीं करून थंयसावन एकामेकांच्या देशांतल्या नागरिकांक वचूंक मेळचें, हेखातीर परवाने दिवपाची प्रथा आशिल्ली. पूण ताकालागून फुडें पेंचप्रसंग निर्माण जाले आनी निमाणे १९७१ त ह्या विशयाचेर एक कबलात जाली.

**राज्यवेवस्था:** १ सप्टेंबर १९४८ दिसा बॉन हागा विधीमंडळाची बसका जाली आनी तांणी संविधानाभशेन राज्यकारभाराखातीर कांय मुखेल नेम थारायले. ह्या देशाचो राज्यकारभार त्या मुळाव्या नेमांच्या आदाराचेर चलता. संविधान संघराज्यात्मक आसा. हांगाच्या घटक राज्यांक अमेरिकेंतल्या घटक राज्यांपरस चड स्वायत्तता आसा. केंद्र सरकाराचे शासकीय यंत्रणेभशेन घटक राज्यांनीय वेगळी शासकीय यंत्रणा आसा.

केंद्रीय विधीमंडळ वा बुनडेस्टागची वेंचणूक दर चार वर्सांनी जाता. संसद दोन घरांची आसा आनी बुनडेस्टाग हें दुसरें घर जावन आसा. बुनडेस्टागांत घटक राज्यां आपले प्रतिनिधी वेंचून धाडटात. राश्ट्राध्यक्ष हो राश्ट्राचो मुखेली आनी चॅन्सलर हो संघराज्याचो शासनमुखेली आसता. संघराज्याकडेन परराश्ट्र वेव्हार, राखण, नागरिकत्व, चलन, जकात, रेल्वे, पोस्ट हीं खातीं आसात. शिक्षण आनी पोलिस हेसारकीं खातीं घटक राज्याकडेन आसात. राश्ट्राध्यक्षाची वेंचणूक पांच वर्सांखातीर जाता. न्यायवेवस्था केंद्रीय आसा. संसदेन मंजूर केल्ल्या एकाद्र्या विधेयकाक लागून संविधानाक बादा येता अशें दिसत जाल्यार, तें विधेयक रद्द करपाचो अधिकार सर्वोच्च न्यायालयाक आसा.

उदेंत जर्मनीचें सरकार पयलींसावन सोशलिस्ट युनिटी नांवाच्या पक्षाच्या नियंत्रणाखाला आसा. १९४६ त सोशल डॅमोक्रॅटिक पक्ष आनी कम्युनिस्ट पक्ष हांचें विलीनीकरण करून हो नवो पक्ष तयार जालो. १९४९ त पयलें संविधान तयार जालें, पूण फुडें १९५२ त राज्यवेवस्थेंत बदल जालो आनी पयलींच्या संविधानाप्रमाण चलपी शासनवेवस्थाय बदल्ली. पीपल्स चेंबर आनी स्टेट्स चेंबर अशा दोन घरांनी संसदेची बसका चलताली. १९७५ त स्टेट्स चेंबर बरखास्त केलें. हांगा चार राजकी पक्ष आसात: सोशलिस्ट युनिटी, क्रिश्चन डॅमोक्रॅटिक, लिबरल डॅमोक्रॅटिक आनी नॅशनल डॅमोक्रॅटिक. पूण खऱ्या अर्थान सत्ता सोशलिस्ट युनीटी ह्या एकाच पक्षाची चलता.

१९६८ त हांगा नवें संविधान लागू जालें. ह्या संविधानाप्रमाण उदेंत जर्मनी हें समाजवादी राश्ट्र आशिल्ल्याची घोशणा केली. रशियन संविधानाचेर आदारित आशिल्लें हें संविधान कामगार आनी शेतकार वर्गाच्या हातांत पुराय सत्ता आसतली, अशें सुचयता.

**अर्थीक स्थिती:** *अस्तंत जर्मनी:* अस्तंत जर्मनी हो उण्या प्रमाणांत जमीन आशिल्ल्या शेतकामत्यांचो देश आसा. वारसा हक्कांक लागून जमनीची वांटणी चालूच आसता. हांगाची मुखेल पिकावळ म्हळ्यार बार्ली, गंव, ओट, राय, बटाट, बीट आनी हेर कड्डणां. तेभायर द्राक्षां आनी हेर फळांचेंय बरेंच उत्पादन जाता. द्राक्षांचो सोरो, कापडाचो धंदो व्हडा प्रमाणांत चलता. रानांतल्या रुखांक लागून कागदाच्या उत्पादनाक आदार मेळटा.

हांगाचीं म्हत्वाचीं खनिजां म्हळ्यार कोळसो, पेट्रोल, सैमीक वायू, लोखण आनी पोटॅश. हांगाची कोळशाची सांठवण बरीच चड आसा. पेट्रोल आनी हेर खनिजां पुरायपणान देशाची गरज भागोवंक शकनात. ताका लागून तांची आयात कररची पडटा.

उद्येगांच्या मळार ह्या देशाची बरीच उदरगत जाल्या. रसायनां, धातुउद्येग, कपडे, दिसपट्टे गरजेच्यो वस्तू, मोटारगाडयो, विद्युत् यंत्रां, हांचें बऱ्याच व्हड प्रमाणांत उत्पादन जाता. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत कारखाने भूंयभरवण जाले. उद्येगीक मळार अस्तंत जर्मनीचे उदरगतीविशीं बरेच दुबाव आशिल्लो, पूण हांगाच्या सरकारान विंगड विंगड येवजणी मुखार हाडिल्ल्यान उद्येगीकरणाक पर्थून नेट आयलो. आयज संवसारांतल्या फुडारिल्ल्या देशांमदलो अस्तंत जर्मनी हो एक देश जावन आसा. पर्यटनांतल्यानूय हांगाची अर्थीक स्थिती सुदारपाखातीर पालव मेळटा.

अस्तंत जर्मनी येरादारीचीं साधनां, विद्युत् उपकरणां, रसायनां, सैमिक इंधन हांची निर्यात करता. वैजकी उत्पादनांचीय निर्यात हांगा सावन बरीच जाता. काफी, च्या, मसाले, धातू हांची आयात कररची पडटा. आयात निर्यातीचे संबंद चडशे नेदरलँडस्, फ्रांस, इटली, इंग्लंड, बेल्जियम, लक्सेंबर्ग आनी जपान हांचेलागीं आसात.

डॉइ मार्क हें हांगाचें चलनी नाणें जावन आसा.

*उदेंत जर्मनी:* नाझी राजवटीवेळार उदेंत जर्मनीचो चडसो वाठार शेतवडीखाला आशिल्लो. थोडेभोव कारखाने आशिल्ले, ते म्हाझुजांत काबार जाले. रशियाच्या पालवान ह्या देशान आपली अर्थीक स्थिती आतांमेरेन बरीच सुदारल्या.

शेतवडीच्या मळार रासवळ पीक काडपाची पध्दत आसा. बटाट, बीट, गंव, बार्ली, राय आनी ओट हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. जनावरां पोसून तांचेकडल्यान मांस आनी दूद मेळोवपाचो धंदोय बऱ्याच प्रमाणांत चलता. शेताचें पीक जरी हांगा बऱ्याच प्रमाणांत आयलें, तरी तें देशाची गरज पुरायपणान भागोवंक शकना आनी ताका लागून हेर देशांकडल्यान पिकावळीची आयात जाता.

खनिजांची सांठवण हांगा बऱ्याच उण्या प्रमाणांत आसा. पूण लिग्नायट् धातूच्या उत्पादनांत मात उदेंत जर्मनीचो संवसारांत पयलो क्रमांक आसा. हांगा पेट्रोलियम मात्तूय मेळना आनी पेट्रोलियमाची आयात पुरायपणान रशियांतल्यान जाता. रशियाच्या पालवान ह्या देशान धातूंचें आनी यंत्रांचें उत्पादन सुरू केलां. युरेनियमच्यो हांगा खणी आसात, पूण युरेनियम उद्येग रशियाच्या नियंत्रणाखाल आसा.

वेपारी नदरेंतल्यान हांगा उदकांतली पिकावळ म्हत्वाची थारता. हेरिंग, स्प्रॅट, कॉडफिश, कोलफिश, रेड पर्च, सामन आनी हॅडॉक ह्या प्रकारचें नुस्तें हांगा व्हडा प्रमाणांत मेळटा आनी नुस्तेमारीच्या उद्येगांतल्यान देशाक बरेंच अर्थीक उत्पन्न मेळटा. पर्यटनांतल्यान खास अशें उत्पन्न ह्या देशाक मेळना.

उद्येगीक नदरेन ह्या देशाची सद्या बरीच उदरगत जाल्या. म्हाझुजाउपरांत उद्येगांच्या मळार ह्या देशान नेटान वावर केलो आनी आयज हो देश संवसारांतल्या कांय फुडारिल्ल्या देशांकडेन सर्त करता. उद्येगीक मळार लागपी बऱ्याच गजालींची रशियांतल्यान आयात जाता. सारें, रसायनां, कृत्रिम रबर, अमोनिया, शिमीट, कपडे, पायतणां, दिसपट्ट्या गरजेच्यो वस्तू हांचें उत्पादन करपी कारखाने ह्या देशांत बरेच आसात. उद्येगांच्या राश्ट्रीयकरणाक लागून उत्पादनांत बरीच वाड जाल्या.

ह्या देशाचे आयात-निर्यात वेव्हार रशिया, चेकोस्लोव्हाकिया, अस्तंत जर्मनी, पोलंड, हंगेरी, बलोरिया ह्या सारक्या देशांवांगडा जातात. डॉश मार्क हें ह्या देशाचें चलनी नाणें.

**येरादारी आनी संचारण:** *अस्तंत जर्मनी:* ह्या देशांत १९८३ मेरेन ४,८७,२५१ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. हातूंतले ९९% रस्ते पक्के आशिल्ले. १९८५ मेरेन २,५८,४४,५०० प्रवासी वाहनां आनी १३,५०,२०० वेपारी वाहनां आशिल्लीं. १९८४ मेरेन रेल्वेमार्गांची लांबाय ६८,५१२ किमी. आशिल्ली. रस्त्यांचे आनी रेल्वेमार्गांचे येरादारीक हांगा बरेंच म्हत्व आसा. हेविशीं ह्या देशाचो पांवडोय बरेच ऊंच आसा. रस्त्यांच्या मार्गांवेल्यान शेजारच्या देशांकडेन अस्तंत जर्मनीचे संबंद जोडल्यात. देशाभितरल्या उदकांतल्या मार्गांची लांबाय सुमार ६,००० किमी. परस चड आसा. ते भायर उदकांतल्या मार्गांवयल्यान ह्या देशाचे संवसारांतल्या हेर राश्ट्रांवांगडा संबंद आसात. हॅंबर्ग हें हांगाचें मुखेल बंदर. तेभायर हेर कितलींशींच बंदरां उदकांतले येरादारीखातीर उपेगी

थारतात. लुफ्तहंसा ही विमानकंपनी संवसारीक हवाई मार्गाचेर येरादारी करता. ही विमानकंपनी संवसारभर नामनेक पावल्या. फ्रँकफर्ट हांगाचो न्हायन-मेन हो अस्तंत जर्मनीतलो सगळ्यांत म्हत्वाचो विमानतळ आसा. देशांत हेर बरेचशे आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात.

१९८३ मेरेन ह्या देशांत १२४ दिसाळीं आशिल्लीं. रेडिओ, दूरचित्रवाणी आनी हेर संचारणाच्या साधनांविशीं हो देश बरोच फुडारिल्लो आसा.

*उदेंत जर्मनी:* ह्या देशांत १९८४ मेरेन ४७,३८० किमी. लांबायेचे रस्तेआशिल्ले. सगळे म्हळ्यार १००% रस्ते पक्के आशिल्ले. प्रवासी वाहनां १९८४ मेरेन ३१,५७,००० जाल्यार वेपारी वाहनां २,७२,९१८ आशिल्लीं. १९८४ मेरेन रेल्वेमार्गांची लांबाय १४,२२६ किमी. आशिल्ली. देशांतली रेल्वे येरादारी शासनाचे मालकेची आसा. उदेंत जर्मनींतल्यो न्हंयो आनी तांकां जोडपी कालवे हाकालागून खासा करून उत्तर वाठारांत उदकांतली येरादारी बरीच चलता. सुमार २,५०० किमी. परस चड लांबायेचे उदकांतले मार्ग ह्या देशांत आसा. हेर देशांकडे विझ्मार, रॉस्टॉक आनी स्ट्रालझुंट ह्या बंदरांतल्यान बरीच उदकांतली येरादारी चलता. इंटरफ्लूग हे विमानकंपनेवरवीं हवाई मार्गांतली येरादारी चलता. ही कंपनी आंतरराश्ट्रीय हवाई मार्गांचेरुय येरादारी सांबाळटा. बर्लिन हो हांगाचो मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ, तेभायर हेर बरेच विमानतळ हांगा आसात.

१९८४ मेरेन ह्या देशांतल्यान ३९ दिसाळीं उजवाडाक येतालीं. रेडिओ, दूरचित्रवाणी हांचीय बरी वेवस्था ह्या देशांत आसा. सगळ्या प्रसार माध्यमांचेर सरकाराचें नियंत्रण आसता.

**लोक आनी समाजजीण:** *अस्तंत जर्मनी:* १९८५ मेरेन हांगा ९२.८% जर्मन वंशाचे, २.३% तुर्की, १.०% युगोस्लाव्ह आनी उरिल्ले हेर वंशाचे आशिल्ले. वट्ट लोकसंख्येंतले सुमार ८४.७% लोक शारांच्या वाठारांनी रावताले. हांगा स्थलांतर करून रावंक आयिल्ल्या लोकांचें प्रमाणय बरेंच व्हड आसा.

मेन न्हंयच्या वाठारांत रावपी लोक पिंगश्या कोराचे, निळ्या दोळ्यांचे आनी कश्टाळू आसात. न्हायनलँडांतले लोक मात लॅटीन युरोपांतल्या केल्टिक वंशाक चड लागसारचे दिसतात. दक्षिणेवटेनचे फ्रँकोनिय कुडीन घटमूट आसतात. स्वेबीयन आनी बव्हेरियन हांगाचे लोक साहित्य, कला, विद्या ह्या गजालींनी चड लक्ष घालपी आसात. अस्तंत जर्मनींत धर्मस्वतंत्रतायेक मान्यताय आसा. वट्ट लोकसंख्येंतले ९२.८% किरिस्तांव. हातुंतले ४६.७% प्रॉटेस्टंट जाल्यार ४३.८% रोमन कॅथलिक आसात. हेभायर ज्यू, मुस्लीम, हेर धर्मांचे आनी धर्म मानीनाशिल्लेय लोक ह्या देशांत आसात.

म्हाझुजापयलींच्यो पोरन्यो चडश्यो वास्तू अस्तंत जर्मनींत आसात. संगीत, कला, नाट्य ह्या मळांचेर जर्मन कलावंत बरेच नामनेक पावल्यात. हांगाच्या शारांनी जावपी संगीत महोत्सवांक संवसारांतल्या बऱ्याच हेर देशांतल्यान लोक हाजीर रावतात.

*उदेंत जर्मनी:* १९८६ मेरेन उदेंत जर्मनींत ९९% लोक जर्मन वंशाचे आशिल्ले. हेर वंशांचे फकत सुमार १% लोक हांगा आशिल्ले. हातुंतले सुमार ७६.६% शाराच्या वाठारांनी रावपी लोक आशिल्ले. अस्तंत जर्मनीपरस हांगाची भूंय ल्हान आशिल्ल्यान हांगाचे लोकसंख्येंत थंयचेभशेन खास विंगडपण सांपडना. धर्मीक नदरेन हांगाचे सुमार ४७.०% लोक प्रॉटेस्टंट, ७.०% रोमन कॅथलिक आनी ४६.० % धर्म मानीनाशिल्ले वा हेर धर्मांचे आसात.

हांगा दुसऱ्या म्हाझुजाच्या परिणामांतल्यान कम्युनिस्ट राजवट आशिल्ल्यान लोकांच्या जिवितांत मात्सो फरक जाला. सरकारान लोकांचे उदरगतीखातीर खासा येवजण मुखार हाडून कला, संगीत, नृत्य, नाट्य हांकां उर्बा दिवपाचे यत्न चालूच दवरल्यात.

हांगाचीं नाटकघरां सरकाराचे मालकेचीं आसात. कलेच्या मळार हांगाचेय लोक अस्तंत जर्मनीच्या लोकांभशेन कलेचे मोगी आसात. साम्यवादी विचारसरणेचे धर्तेचेर हांगा वास्तूशिल्प, संगीत अशा सगळ्या कलांच्या मळार नव्यो रचणुको जाल्यात. नव्या शाराची उबारणी करपाच्या कामांत कलाकारांची साम्यवादी बांधीलकी म्हत्वाची थारल्या.

**शिक्षण:** *अस्तंत जर्मनी:* ६ ते १८ वयाच्या सगळ्या विद्यार्थ्यांखातीर शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसा. शिक्षण वेवस्थेविशीं दरेका प्रांताक स्वतंत्रताय आसली तरी अभ्यासक्रम आनी शिक्षणपध्दत हातूंत एकसारकेपण हाडपाचे यत्न चालू आसात. धा वर्सांचे पिरायेमेरेन सगळीं भुरगीं मुळाव्या शाळांनी शिकतात. ताचे उपरांत माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शिक्षण पुराय केल्याउपरांत विद्यार्थी विश्वविद्यालयांत शिक्षण घेवपाखातीर लायक थारता. मानसिक आनी कुडीची सारकी वाड न जाल्ल्या विद्यार्थ्यांखातीर खासा शिक्षणसंस्था आसात. सगळ्या मळावयलें शिक्षण दिवपाची वेवस्था ह्या देशांत आसा. हांगाच्या विश्वविद्यालयांचो पांवडो बरोच ऊंच आसा. संवसारांतल्या हेर देशांतल्यान बरेचशे विद्यार्थी शिक्षण घेवपापासत हांगा येतात. तंत्रगिन्यान, विज्ञान, कला ह्या मळांवयलें शिक्षण दिवपाविशीं संवसारांत अस्तंत जर्मनी फुडारिल्ल्या देशांचे वळेरेंत येता.

*उदेंत जर्मनी:* उदेंत जर्मनींत निरक्षरतेचें प्रमाण सामकेंच उणें आसा. शिक्षण फुकट आसा आनी शिक्षणावयल्या खर्चाचें प्रमाण बरेंच चड आसा. विश्वविद्यालयांत शिक्षण घेवपाखातीर विद्यार्थ्यांची समाजीक फाटभूंय म्हत्वाची आसता. सोशलीस्ट युनिटी पार्टीच्या जाळवणदारांच्या भुरग्यांक, तेचप्रमाण शेतकार आनी कामगारांच्या भुरग्यांक हांगा प्राधान्य मेळटा.

अर्थीक गरजो नदरेंत घेवन सवे यत्तेमेरेन बौध्दिक शिक्षणावांगडा कुडीची उदरगत जावपाचें शिक्षण दितात. शिकपी विद्यार्थ्यांक कांय काळामेरेन कारखान्यांनी वा शेतांनी काम करचें पडटा. शिक्षण मार्क्सवादाच्या विचारांचेर आदारिल्लें आसता. हांगाचीं म्हत्वाचीं विश्वविद्यालयां म्हळ्यार: कार्ल मार्क्स विश्वविद्यालय, लायपसिग (१४०९); रॉस्टॉक विश्वविद्यालय (१४१९); एर्न्स्ट मॉरिट्स आर्ट विश्वविद्यालय, ग्रायफ्सव्हाल्ट (१४५६); मार्टिन ल्यूथर हाल, व्हिटन्बेर्क (१६९४); हंबोल्ट विश्वविद्यालय, बर्लिन (१८०९); टेक्निश विश्वविद्यालय, ड्रेझ्डेन (१८२८) आनी फ्रीड्रिक शिलर विश्वविद्यालय, येना हीं आसात.

**भाशा आनी साहित्य:** जर्मन भाशा ही इंडो-युरोपीय भाशा पंगडांतल्या जर्मानिक फांट्याची एक म्हत्वाची भाशा आसा. हे भाशेक बरीच पोरसी परंपरा आसा. इ.स. ८०० मेरेनचें जर्मन साहित्य हें लोकसाहित्य आशिल्लें. पोरन्या आनी मध्ययुगांतल्या काळांत जर्मन भाशेंत व्हडा प्रमाणांत साहित्यनिर्मणी जाल्ली. महाकाव्य आनी हेर तरेकवार साहित्य बरेंच नामनेक पाविल्लें. प्रॉटेस्टंट चळवळीच्या परिणामांतल्यान हांगाच्या साहित्याक एक वेगळी दिका मेळ्ळी. हांगाच्या जर्मन भाशा उलोवपी लोकांमदीं बरेच विंगड विंगड प्रवाह आसात. जर्मन ही दोनूय देशांची राज्यभाशा आसा.

साहित्य निर्मणेच्या वावरांत अठराव्या आनी एकुणीसाव्या शेंकड्यांत हांगा खासा नांव घेवपासारके लेखक आनी कवी मुखार आयले नात. हालींच्या तेंपार मात फ्रांझ काफ्का, थॉमस मान, रायनर मारीआ रिल्के, बर्टोल्ट ब्रेख्त, आना झेगर्स, आर्नोल्ट त्स्वायख, एर्न्स्ट, व्हिखर्ट, गेओर्ग काइझर, एर्न्स्ट टोलर हांणी संवसारभर नामना मेळयली. हेन्रीक ब्योल आनी गुंथर ग्रास ह्या कादंबरी लेखकांचीं पुस्तकां हेर कितल्याशाच भाशांनी अणकारित जाल्यांत. ब्रेख्तावांगडा त्सुकमायर, लेंटस् आनी पेटर व्हायस हांचीं नाटकां संवसारभर गाजल्यांत.

जर्मन भाशेची उदरगत जावची आनी तिची संवसारांतल्या हेर लोकांक वळख जावची हेखातीर खासा यत्न करपी बऱ्योच संस्था अस्तित्वांत आसात.

**म्हत्वाचीं थळां:** अस्तंत जर्मनी हो ल्हान आनी मध्यम शारांचो देश आसा. बर्लिन, हँबर्ग आनी म्यूनिक हीं हांगाचीं तीन व्हडलीं शारां.

अस्तंत बर्लिन, हॅनोव्हर, ब्रंझविक हांगा कारखान्यांचें प्रमाण बरेंच आसा. झारलॅंड कोळशाखातीर, फ्रँकफर्ट, ड्यूसेलडॉर्फ, कीं हेर उद्येगांखातीर प्रसिध्द आसात. बॉन हें राजधानीचें शार शासकीय कारणांखातीर म्हत्वाचें आसा.

उदेंत जर्मनींतलीं म्हत्वाचीं थळां म्हळ्यार बर्लिन, ड्रस्डेन, फ्रँकफर्ट, रोस्टोक हीं शारां जावन आसात. युरिंजीया, ऱ्यूगन जुंवो हे वाठार पर्यटकांखातीर आकर्शणाचे थारल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**जलतरंग:** एक घन वाद्य. ह्या वाद्याक पयलींच्या काळांत 'उदकवाद्य' अशेंय म्हण्टाले. पूर्विल्ल्या काळांत जलतरंगाखातीर धातू पसून तयार केल्ले पेले वापरताले. इ.स. च्या १० व्या शेंकड्या उपरांत चिनी लोक मातयेचे पेले जलतरंगाखातीर वापरपाक लागले.

जलतरंगांत धातूचे पेले क्रमान वाडट्या आवांठाचे आसतात. हे पेले वाजोवप्यामुखार अर्धमंडलाकार दवरून तातूंत उदक घालतात. कोंड्याच्यो दोन बारीक बडयो घेवन, पेल्याच्या काठार मारतात. अशे तरेन आवाजाची निर्मणी जाता. उदकाक लागून पेल्याक थीरपण येता आनी ताका लागून उदक चड उणें करून स्वरांची उंचाय गरजेप्रमाण बदलपाक मेळटा. उदकाक लागून गमक निर्मणीय करपाक मेळटा. ह्या वाद्यांत एका वेळार एकच स्वरसप्तक वापरूंक मेळटा. ह्या वाद्यांवरवीं विंगड विंगड स्वर छटा काडटात, तेचपरी नेटाचें स्वरसमुच्चय निर्माण करतात. हातूंत कांय प्रमाणांत रागाचें आलापनय करपाक मेळटा. हातूंत ६४ काल आसतात.

शिकंदरान दिल्ले एके जेवणावळीवेळार एका भारतीय वाद्य वाजोवप्यान जलतरंगाचें वादन केल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. वात्स्यायनाच्या कामसूत्रांतूय हाचो उल्लेख आयला.

- कों. वि. सं. मं.

**जलदेवता:** जलदेवता म्हळ्यार उदकाच्या आलाशिऱ्याक रावपी देवता. आदल्या काळासावन उदकाचे जागे, तळीं, न्हंयो हांकां देवतांच्या रुपान पळोवपाची चाल आसा. पूण ह्यो देवता जलस्वरुपी देवतांपरस वेगळ्यो आसात. ह्या जलदेवतांक 'विघ्नां ना करपी' म्हूण मानतात.

वेदांत आनी पुराणांत उदकांत भोंवपी बायलांचो म्हळ्यार अप्सरांचो उल्लेख येता. अमरकोशांत सात मुखेल अप्सरांचो उल्लेख आयला. तांचीं नांवां घृताची, मेनका, रंभा, ऊर्वशी, तिलोत्तमा, सुकेशी आनी मंजूघोषा अशीं मेळटात. हीं सातूय नांवां उदकांत रावपी जलचरांच्या नांवांवेल्यान घेतल्यांत.

जलदेवतेचे उत्पत्तीविशींची एक कथा गोंडामदीं प्रचलीत आसा. तांच्यो सात देवता आसून तांकां ते सात समुंदरीया अशें म्हण्टात. गोंड तांकां दौगनगुरुच्यो चलयो मानतात. ह्यो चलयो, दौगनगुरुच्या हाताचेर आयिल्ल्या फोडासावन जल्मल्यो. बापायचो तांचेर खूब मोग आसलो. तो तांकां आपले मांडयेर बसोवन दरवतालो आनी त्यो सुर्याचे लेगीत नदरेक पडच्यो नात हाची ज़तनाय घेतालो. एक फावट पवनदेवाची (वाऱ्याची) वाट चुकली आनी ताणें सातूय समुंदरीयांक नाचतना पळेलें. पवनदेव आनी सातूय समुंदरीया एकामेकांक पळोवन भुल्लीं. दौगनगुरुक ही गजाल कळटकच ताका राग आयलो. ताणें पवनदेवाक धांवडावन घालो आनी चलयांक लिपोवन दवरल्यो. फुडें पवनदेवान महादेवाक आनी दौगनगुरुच्या भुरग्यांक फुसलावन सातूय समुंदरीयांक व्हेल्यो आनी तांचेकडेन लग्न जालो.

गोंड लोकांभितर आनीक एक दंतकथा चलता. तातूंत महादेवान ह्या सात समुंदरियांक एके कुडींत बंद करून दवरल्यो आनी पार्वतीक ती कूड उक्ती करून पळय नाका म्हूण सांगलें. पूण पार्वतीच्यान वोगी रावपाक जमना जालें. जेन्ना महादेव घरा भायर गेलो तेन्ना तिणें ती कूड उक्ती केली आनी तातूंतल्यो सातूय चलयो पार्वतीचे गर्भकुडींत भितर सरल्यो. तेखातीर तिका भश्टे जावपाचे, गुरवारपणाचे आनी बाळंतपणाचे त्रास सोंसचे पडले. ताका लागून आयजमेरेन बायलांक हे त्रास भोगचे पडटात, अशें म्हण्टात.

महाराष्ट्रांत उदकांत देंविल्ल्या एकट्या-दुकटया मनशाक जलदेवता धरतात असो समज आसा. जुवान बायलो आनी भुरगीं हांकां तांचो चड बादीकार जाता. ह्या जलदेवतांची संख्या सात आसून तांकां 'सात आसरा' ह्या नांवान पाचारतात. आसरा उतराची उत्पत्ती अप्सरा उतरासावन जाल्या. महाराष्ट्रांत सती आसरांक सात शेंदरी फातराच्या रुपांत पूजतात. बायलांक तांची बादा जाल्यार, त्या देवतांक खोशी करपाक सात सवायशिणींक नाल्ल-कपडो दिवन होंट भरपाची चाल आसा.

म्हैसूर वाठारांत 'अक्कगारु' ह्या नांवान जलदेवतांक वळखतात. ह्यो सातूय एकामेकांच्यो भयणी आसात. त्यो आदिम स्वरुपांतल्यो सप्तमातृकाच आसूंये, अशें मानतात. हाचें कारण महाराष्ट्रांत तांकां मावल्या (माउल्या=मातृका) अशेंय म्हण्टात. गुजरातांतल्या जलदेवतांक 'माता' ह्या नांवान वळखतात.

जलदेवतांक एक भाव आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. दक्षिण भारतांतल्या जलदेवतांक पोट्टुराजू नांवाचो भाव आसता. सात आसरांक गवळा नांवाचो एक भाव आसा. उदेंत दर्या देगेवयल्या कोळी लोकांचे जलदेवतेच्या भावाचें नांव 'रामसोंदी' अशें आसा.

वऱ्हाडांत सात आसरा ह्यो तापट सभावाच्यो मानल्यात. तांचो उदकाकडेन संबंद आयिल्ल्यान रोगाची उत्पत्ती घडटा, अशें म्हळां.

गिऱ्हा, खवीस, झोटींग, जखीण, बिलाशी, लाव, बापदेव, हडळ ह्या पिशाच्चांचो उदकाकडेन संबंद आयिल्ल्यान ह्या जलदेवतांचे पिडेंतल्यान मुक्त जावपाखातीर वा तांकां खोशी करपाखातीर कोंबो- बोकडो मारपाची चाल आसा. पूर्विल्ल्या काळांत मनशाचोय बळी दिवपाची चाल आसली. महाराष्ट्रांत प्रचलित आशिल्ल्या शिळासप्तमेचे काणयेत तांचेखातीर ल्हान भुरग्यांक बळी दिल्ल्याचो उल्लेख येता.

- कों. वि. सं. मं.

**जल्मी:** जल्माक घालपी, गांवाक जल्म दिवपी वा गांवची वसणूक करपी. मूळ मनशाक 'जल्मी' म्हणपाची चाल पूर्विल्ल्या काळांत गोंयांत आशिल्ली. जल्मी हें उतर दोन संदर्भांनी वापरिल्लें दिश्टी पडटा. एक देव ह्या संदर्भांत आनी दुसरें पुजारी वा देवस्पण करपी ह्या संदर्भांत.

गोंयांभायरुय जल्मी परंपरा आशिल्ल्याची म्हायती मेळटा. केरळ राज्यांत अशे जम्मी (Jammi) मेळटात.

गोंयांत जल्मी परंपरा फकत गावडो आनी नायक समाजांमदींच दिसून येता. पूण नायक समाजापरस गावडो समाजामदीं ही चाल चड प्रमाणांत आशिल्ल्याचें दिसून येता.

कांय विद्वानांच्या मताप्रमाण, जल्मी-खुंटी ह्यो परंपरा मुळाक गावडो जमातीच्यो. नायक समाजात त्यो उपरांत उखलून धरल्यो.

ज्या जाग्यार गांवचो तो मूळ पुरुस वसती करतालो, थंय आपल्या पोटा-पाणयाचो प्रस्न सोडोवपाखातीर शेतवड करतालो, तशेंच नव्या देव-दैवतांचीय थापणूक करतालो.

अशेतरेन गांवची वसणूक केल्लो तो मूळपुरुस मेल्या उपरांत ताची वंशावळ, ताची स्थापना, ताचे मूळ मळ्येंतच करताली. उपरांत ताच्या कर्तुपांक लागून, ताका 'देवरुप' प्राप्त जातालें आनी गांव जल्माक घालपी म्हूण ताका 'जल्मीदेव' नांव पडटालें. कांयकडेन जल्म्याक मूळी अशेंय म्हण्टात.

जायतेकडेन जल्म्यान वसयल्ल्या जाग्यार फकत ताचेच वंशावळीचो राबितो आशिल्लो दिश्टी पडटा, अशा वेळार तो जल्मीदेव त्या घराण्याचो कूळदेव म्हूण उरता. पूण जेन्ना ताणें वसयल्ल्या गांवांत, हेर जाती-धर्मांचीं घराणीं येवन राबितो करतात, तेन्ना तो आख्ख्या गांवचो ग्रामदेव जाता. जल्मीदेवाच्या म्हऱ्यांत, ताच्या उपरांत मरण पाविल्ले ताचे वंशावळीच्या पुरसांचीय स्थापणूक केल्ली दिसता.

आयज जे तरेन मेल्ल्या मनशाक दामार (पयशार) सोडोवन हाडून

घरांत, देवा म्हऱ्यांत पुजेक लावपाची चाल आसा, त्याच स्वरुपाचो हो प्रकार अशें दिसता.

एकाद्रया गांवांत जल्मीदेवाची स्थापणूक जाल्या उपरांत, ताच्या अधिकारांत येता तो जागो, जल्मी परंपरा आशिल्ल्या हेर खंयच्याय घराण्यान वसयलो आनी थंय ताच्या घराण्याचो 'जल्मीदेव' स्थापन जालो, जाल्यार मूळाक स्थापन जाल्लो जल्मीदेव, त्या गांवचो म्हाल जल्मी जाता. देख दिवची जाल्यार केपें तालुक्यांतलो आमोणें हो गांव, पोरनें नार्वे (दिवचल तालुको) गांवच्यान आपलो जीव वाटोवपाखातीर आयिल्ल्या गावडो जमातीच्या एका पुरसान वसयलो. हो पुरुस मेल्या उपरांत ताची स्थापणूक ताचे मूळ मठ्येंत जाली. उपरांत ह्या गांवचे कक्षेंत येवपी कटोवाडो नायक जातीच्या एका पुरसान वसयलो आनी थंय जल्मीदेवाची स्थापणूक जाली. तेन्ना गावडो जमातीच्या जल्म्याक गांवचो म्हाल जल्मी (मूळ वा पयलो) म्हूण मान प्राप्त जालो. आमोणें गांवचो हो जल्मी, चंद्रवाडीच्या बावीस गांवचो म्हाल जल्मी म्हूण मानतात.

आमोणें गांवच्या ह्या म्हाल जल्म्याच्या फातराची स्थापणूक जमनीर केल्ली मेळटा; जाल्यार चंद्रनाथ पर्वतार, जल्म्याच्या मठांत, एका ताटांत कांय ल्हान ल्हान वाटकुळेंचशे फातर दवरिल्ले दिसतात, जांकां 'जल्मी' मानतात. हातुंतलो एक मूळ पुरुस वा जल्मी जाल्यार हेर त्या घराण्याचे पुर्वज वा पुरीस.

काणकोण तालुक्यांतल्या, श्रीस्थळ गांवांत नुयेंकारांची घरखय आसा. हे घरखयेंत जल्म्याचो फातर स्थापन केल्लो दिसता, जाल्यार तांच्या घराण्यांतल्या हेर पुरसांचे फातर थंय जल्म्या म्हऱ्यांत अशेच दवरल्यात.

ज्या गांवांनी जल्मीदेव ग्रामदेव जावन आसा थंय, हिंदू वांगडा किरिस्तांवय ताका भजतना दिसतात.

जल्मीदेव हो गांवचो मूळ पुरुस जाल्ल्यान ताचे वंशावळीकडेन, जल्म्याच्या पूजेवांगडा, गांवचें हेर देव-देवस्पण करपाचोय अधिकार आसता. गांवच्यो शिमो बांदप, देवचारांक मान करप, हेर देव-देवतांची पूजा करप, हीय जबाबदारी ताचीच उरता. हांगा जल्मी हें उतर पुजारी ह्या अर्थान घेतात.

गोंयांत जल्म्याच्या घराण्याकच, कांयकडेन जल्मी हेंच आडनांव लायिल्लें दिश्टी पडटा. जाल्यार कांयकडेन 'गांवकार', 'वेळीप' हीं ग्रामसंस्थेंतल्या तांच्या अधिकाराचीं नांवां लायिल्लीं दिसतात. आमोणें गांवांतल्या नायक जातीच्या जल्म्याच्या घराण्याक 'शेटकार' म्हण्टात.

हाचेवेल्यान असो निश्कर्श काडूं येता, तो म्हळयार ज्या जाग्यांनी, जल्म्याच्या वंशजाकडेन फकत जल्मीपण करपाचो अधिकार आशिल्लो थंय ते जल्मीच उरले, पूण जंय तांकां ग्रामवेवस्थेंतले हेर अधिकार प्राप्त जाले, वा तांच्या घराण्याक हेर नांवां पडलीं, थंय तांचें जल्मी नांव लिपून दुसरीं नांवां वयर आयलीं.

गावडो वा नायक दोनूय समाजांच्या जल्म्यांचे लग्नसंबंद तांच्या जातीच्या हेर घराण्यांकडेन जातात. जल्म्याचे लग्नसंबंद फकत जल्म्याच्याच घराण्याकडेन जुळटात अशें ना.

एका तेंपार, गावडो आनी नायक दोनूय समाजांतले लोक कोंबे कापप वा सोन्याक आफडप ह्यो गजाली निशिध्द मानताले. देखून गांवच्या देव-देवचारांक जर असलो मान करपाचो आसल्यार तो, ताच्या उतरान दुसरो कोणय करतालो (केपें-आमोण्यांत हें काम थाणग्यान करपाचें आसता). उपरांत कांय नायक समाजाच्या जल्म्यांनी हें काम करपाक सुरवात केली. पूण आयजूय गावडो जमातीचे जल्मी हें काम निशिध्द मानतात.

जल्म्याक गांवचें देव-देवस्पण करपाखातीर थारावीक शेत-जमनी आनी येणावळी सुटिल्ल्यो आसात. कांय कारणांक लागून एकाद्रया गांवचो जल्मी आपल्या मूळ घरखयेकडल्यान वा गांवांकडल्यान जरी पयस रावलो तरी थारावीक वेळार गांवांत येवन आपलें वर्सावळीचें देवस्पण तो करतना दिश्टी पडटा.

**जयंती नायक**

- कों. वि. सं. मं.

**जल्लो:** डिक्टिऑप्टेरा गणाच्या ब्लॅटिडी कुळांतलो सुमार २,००० परस चड जाती आशिल्लो कीटक. तो घरांत सांपडटा. ताचें मूळ स्थान, उश्ण कटिबंधीय आफ्रिका. जल्लो हो पाखां आशिल्ल्या सगळ्यांत पूर्विल्ल्या कीटकांतलो आसून ताची उत्पत्ती सुमार २५ कोटी वर्सां आदीं जाली. कीटकांच्या पूर्विल्ल्या जीवाश्मांनी (Fossils) जल्ल्याचेय जीवाश्म सांपडटात.

जल्ल्याचे कुडीचे अवयव हेर कीटकांप्रमाणूच आसतात. ताची कूड थपकटी. ताका लांब दोरयेसारक्यो मिश्यो आसतात आनी तिकतिकीत पाखां आसतात. आंग चेपटें आशिल्ल्यान तो ल्हान खाचींत सहज रावता. सुमार अर्द्या जातींतल्या जल्ल्यांक पाखां आसतात. पूण ते पाखांचो उपेग उडपाखातीर चडसो करिनात. जल्लो चडकरून उश्ण प्रदेशांत सांपडटा. जगांत आशिल्ल्या जल्ल्यांच्या सुमार १,६०० जातींतल्यो कांय थोड्योच जाती मनशाच्या वसतीस्थानांत रावतात. तातूंतल्यो मुखेल चार जाती अश्योः १. उदेंती (ब्लेटा ऑरिएंटॅलीस), २. अमेरिकन (पॅरिप्लॅनेटा अमेरिकाना), ३. जर्मन (ब्लॅटेला जर्मनिका) आनी ४. ऑस्ट्रेलियन (पॅरिप्लॅनेटा ऑस्ट्रेलॅसिई). उदेंतेकडलो जल्लो हो सामको हळशिकावणो प्रकार, अशें समजतात. जल्लो मनशाच्या घरांत रांदचे कुडींत आनी खांची-फटींनी तशेंच पुस्तकांनी रावता. काळोख जातकच तो आपलें अन्न सोदपाक भायर सरता. तो इतलो शिटूक आनी चपळ आशिल्ल्यान मनशाची मात लेगीत सुलूस लागल्यार तो पळटा. ताचे लिपपाचें सुवातेक, ताच्या शरिरांतल्या ग्रंथींतल्यान भायर येवपी तेलकट द्रवाक लागून आनी मळाक लागून एकेतरेची घाण येता. जल्लो खंयच्याय आयदनावेल्यान भोंविल्लो आसल्यार त्या आयदनाकूय घाण येता. खावचेले पदार्थ तो नश्ट करता. कपडो खावन ताका बुराक घालता.

अमेरिकन जल्लो ही सगळ्याक दिसून येवपी जल्ल्याची मुखेल जात. हो जल्लो आकारान व्हडलो (सुमार ३०-५० मिमी. लांब), तांबसार तपकिरी रंगाचो आसून नर आनी मादी ह्या दोगांकूय पाखां आसतात. तो पाखांचो उपेग प्रसंगाप्रमाण उडपाखातीर करता. जल्ल्याचो जीवनक्रमांक तांती, अर्भक, पील, पुराय वाड जाल्लो जल्लो असो आसा. निषेचित (fertilized) मादी खांचीनी चवळेच्या आकाराचीं, चॉकलेटी रंगाच्या आवेष्टनांत चडांत चड १६ तांतयां घालता.

मादी आपले पूर्णावस्थेंतल्या ५ म्हयन्यांच्या जिवितकाळांत ५-८ अंडप्रावर (ootheca) घालता. हवेच्या तापमानाप्रमाण तांतयां सुमार ४० दिसांभितर फुटून तातूंतल्यान बारीक आकाराचीं पिलां भायर पडटात. तांची वाड पुराय जावपाक ४-२४ म्हयने लागतात. जल्ल्याची एक पिळगी ९-३० म्हयन्यांची आसता.

जल्ल्याचो नाश करपाखातीर फुडले उपाय करतातः १. धान्याच्या पिठांत टाकणखार (Borax) पूड भरसून रातीकडेन जल्ले जंय जमतात थंय घालतात. २. डी. डी. टी., गॅमॅक्झिन, पायरेथ्रम पूड, मॅलॅथिऑन आदी कीटकनाशकां तांच्या लिपून बसपाचे सुवातींनी उडयतात.

प्रयोगशाळेंत आनी संशोधन कार्यांत जल्ल्याचो खूब उपेग जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**जहन्नम:** इस्लाम धर्मीयांच्या नरकाक 'जहन्नम' अशें म्हण्टात. हाचो अर्थ 'दुख्ख भोगपाचो जागो' असो जाता. ह्या जहन्नामाचे सात भाग आसात. १. जहन्नम- सगळ्या मुसलमानांक ह्या भागांतल्यान वचचें पडटा. तो कोणाकूच चुकोवपाक येना. २. लझा ३. अल् हुतमा ४. सईर ५. सकर ६. अल जहीम ७. हाविया.

पातकाच्या चड उणें प्रतीप्रमाण विंगड विंगड भागांत विंगड विंगड लोक धाडटात.

- कों. वि. सं. मं.

**जहांगीर:**(जल्मः ३० ऑगस्ट १५६९; मरणः २८ ऑक्टोबर १६२७).

अकबराचो चलो आनी चवथो मोगल सम्राट. ताचें पयलींचें नांव सलीम. युवराज आसतना ताणें आपल्या बापायआड बंड केलें. तशेंच

आपल्या बापायचो इश्ट अबुल फज्ल हाचो ताणें खून घडोवन हाडलो; पूण फुडें ताचो आनी बापायचो एकचार जालो. अकबराच्या मरणाउपरांत २४ ऑक्टोबर १६०५ दिसा तो अबुल-मुजफ्फर नुरुद्दीन मुहम्मद जहांगीर बादशाह गाझी ह्या नांवान गादयेर बसलो. ताणें १२ कलमी जाहीरनामो काडून कांय कर कमी केले आनी लोकांक सुरक्षीत जिणेचें आश्वासन दिलें. ताच्या आंगांत उदारपण आनी सहिष्णुता हे बापायचे गूण दिसताले. पूर्वापार चलत आयिल्ली कार्यपध्दत ताणें तशीच फुडें चालू दवरली.

सुर्वेक ताणें आपलो व्हडलो चलो खुसरौ (खुस्त्रव) हाचें बंड मोडून काडलें आनी ताका आदार दिवपी शीख गुरु अर्जुनसिंग हाका छळ करून जिवो मारलो. १६११ त ताणें शेर अफगन हाका मारलो आनी ताची रुपेस्त बायल नूरजहान हिचेवांगडा तो लग्न जालो. ताणें बंगालांतल्या बंडखोर अफगाणांक (१६१२) आनी मेवाडचो राणा अमरसिंह (१६१४) हांकां शरण हाडले. त्याच वर्सा अहमदनगर आनी १६१६ त कांगडाचो अजिंक्य किल्लो जिखलो. पूण कंदाहार १६२२ त ताका वगडावचें पडलें. ह्याच सुमाराक राजकुंवर खुर्रम हाणें केल्लें बंड महाबतखानाचो आदार घेवन ताणें मोडून काडलें, पूण १६२४ तले भातवडीचे लडायेंत मलिकंबरान मोगल आनी विजापुरकर हांच्या संयुक्त सैन्याचो पराभव केलो. फुडें महाबतखानान स्वताच बंड करून जहांगीराक बंदखणींत घालो. नूरजहानान धाडसान आनी युक्तीन हें बंड मोडून जहांगीराक सोडयलो.

जहांगीर अतिरेकी, मद्यपी आनी सुखासीन आसलो, तरी कलामोगी आनी थोडोसो न्यायप्रिय आसलो. लोकांच्या गाराण्यांचो निकाल बेगीन जावचो, म्हूण ताणें न्यायशृंखला दवरिल्ली, अशी दंतकथा आसा. सृश्ट-सैम आनी शिकार हांची ताका आवड आशिल्ली. ताणें साहित्य आनी कला हांकां उत्तेजन दिलें. ताणें बरयल्लें अर्दकुटें आत्मचरित्र 'तारीख -इ-सलीमशाही वा तुझुक -इ- जहांगीरी' ह्या नांवान उजवाडाक आयलें. सुरत हांगा ब्रिटीश लोकांखातीर वेपारी वखारीची परवानगी मेळोवपी सर टॉमस रो हाणें जहांगीराविशीं कांय म्हायती बरोवन दवरल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**जहालमतवाद:** एकाद्रे संस्थेकडेन वा समाजाच्या विचारांकडेन पळोवपाची मुळावी नदर रुढ कल्पनांपरस एकदम वेगळी आसता, तेन्ना ताका जहालमतवाद (Radicalism) अशें म्हण्टात. अशा मतांत कांय तार्किक सूत्र आसून त्या सूत्राफाटल्यान तें मत निर्भयपणान परगटावपाची शक्ती आसत जाल्यार त्या मताक मौलिकता प्राप्त जाता आनी मागीर तें मत फकत जहाल म्हळ्यार प्रक्षोभ निर्माण करपी उरना, तर तें खूब जाणांच्या विचारांक प्रेरणा दिता आनी कांय वेळार प्रमाण अशें समाजीक मत तयार जाता.

सतराव्या शेंकड्यांतले बौध्दिक जागृतायेक लागून जहालमतवादाक चालना मेळ्ळी. जिणेचे आनी जगाचे मौलिक समीक्षेच्या मळार नवीं नवीं आव्हानां एकसारकीं फुडें येत आसतात. देखून, जहालमतवादी नदर एकसारकी विकसित जायत आसता. आनुवंशिक राजेशाहीक धपको हो राजकी जहालमतवादाचो पयलो आविश्कार जावन आसा. हो जहालमतवाद युरोपांत अठराव्या शेंकड्यांत अस्तित्वांत आयलो. अस्तंती समाजांत राज्य करपाची बुध्दिमत्ता, हक्क आनी सत्ता ही फकत कांय मुठभर शिश्टजनांकडेन आसूं येता, असो समज आशिल्लो. जहालमतवादान ताचेर खर टिका केली आनी व्यक्तिस्वातंत्र्य आनी लोकांचें सार्वभौमत्व हीं तत्त्वां पुरस्कृत केलीं. लोकतांत्रिक जहालमतवादाचें खाशेलेपण म्हळ्यार, ताणें मतपरिवर्तनाच्या मार्गाचेरुच विश्वास दवरलो; तशेंच बुध्दीचें आनी तर्काचें शास्त्र वापरलें.

समाजीक जहालमतवादाच्या पुरस्कर्त्यांचें आपल्या विचाराफाटल्यान एक खासा तत्त्वगिन्यान आसता. समाजीक परिवर्तन घडोवन हाडपाची एक खासा कार्यावळ आसता. तेचवांगडा हेरांची नदर वा श्रध्दा समाजाच्या मनांतल्यान काडून उडोवपाचें वा ती प्रवृत्ती नश्ट करपाचें धोरण जहालमतवादी आपणायतात. जी नदर मान्य ना ती नश्ट करपावांगडाच स्वताक अभिप्रेत आशिल्ली नवी नदर सत्य आसा, न्याय्य आनी हितकारक आसा अशें मत जहालमतवादी ठामपणान मांडटात. इतलेंच न्हय, तर आपलें मत प्रस्थापित जावंचें आनी हेरांनीय आपल्या मताचो पुरस्कार करचो, असो तांचो आग्रो आसता.

फ्रेंच आनी अमेरिकन राज्यक्रांतींनी आर्विल्ल्या जहालमतवादाचो प्रभावी आविश्कार जालो. जॅकोबिन चळवळींत प्रबोधनकाळांतल्या आदर्शांक मूर्त-स्वरुप दिवपाचो प्रत्यक्ष यत्न जालो. तांच्या संघटनतंत्राचो जहालमतवादाच्या प्रसाराखातीर परिणामकारक उपेग जालो. लोकानुवर्तित्त्व (पॉप्युलिझम) हो आनीक एक जहालमतवादाचो प्रकार. ताचीं विंगड विंगड रुपां वेगवेगळ्या देशांत प्रगट जालीं. अमेरिकेंत जेफर्सनच्या लोकशाय आदर्शांनी असले प्रवृत्तीचो उगम दिसून येता. लोकानुवर्तित्त्वाच्या विंगड विंगड आविश्कारांनी कांय सर्वसामान्य सूत्रां आशिल्लीं. सैमाच्या सांगातांत रावपी मनशांचे हक्क तशेंच मनशाचे निर्माणशक्तीचेर दृढ विश्वास आनी ताची स्वाभाविक प्रतिक्रिया म्हूण मोटे केंद्रसत्तेक तशेंच धंदेवाईक राजकी प्रशासकांक विरोध, हीं ह्या जहालमतवादाचीं खाशेलपणां आसात.

इंग्लंडांतल्या सैध्दांतिक जहालमतवाद्यांत सगळ्यांत पयलीं बेंथॅमचें नांव घेतात. तात्त्विक जहालमतवाद (मौलिकतावाद) मांडपी पयलो विचारवंत बेंथम. मनशाच्या अणभवाचेर आदारिल्लें तत्त्वगिन्यान, मनशाच्या सुख-दुखवाच्या हिसपाचेर आदारिल्लें नीतिशास्त्र आनी शासनाची उपयुक्ततेच्या सिध्दांताप्रमाण पुनर्रचणूक, ह्या मोलादीक सिध्दांताची मांडावळ बेंथम हाणें केली. ताका मात लेगीत हिंसेचो वापर करीनासतना नवी विवेकनिश्ठ अशी समाजवेवस्था अभिप्रेत आशिल्ली.

जहालमतवादाचो एकदम खर आनी पध्दतशीर आविश्कार अराज्यवादांत दिसून येता. अराज्यवादाची विस्कटावणी विल्यम गॉडविन हाणें केली. मनशाक बुध्दीप्रमाण आचरण करपाखातीर सक्ती करपाची गरज ना, तर बुध्दीप्रमाण न वागपाची सक्ती करप अन्यायाचें आसा, हें गॉडविन हाचें मुखेल सूत्र आशिल्लें. ह्या सुत्राच्या आदाराचेर समाजांतल्यो सगळ्यो संस्था बरखास्त करच्यो, अशें ताणें सुचयलें. प्रूदौं हाणें अराज्यवादाक अर्थीक सुदारणांची कार्यावळ दिली. खाजगी मालमत्ता म्हळ्यार अपहरण आसा, हें प्रूदौंचें तत्त्व आशिल्लें. 'समाज हो एक सैमीक जिवो घटक आसून मनीस हो समाजीक प्राणी आसा; शासनसंस्था आनी प्रचलित अर्थीक वेवस्था नश्ट करपाक जाय', अशें ताका दिसतालें. स्वतंत्र संस्था आनी विकेंद्रित तशेंच नियंत्रित शासन कशें निर्माण जातलें, हाच्यो कितल्योश्योच येवजणी ताणें आंखिल्ल्यो. क्रॉपॉटकिन ह्या अराज्यवादाच्या आनीक एका भाष्यकारान डार्विनच्या उत्क्रांतिवादाचेर खर टिका केली. जो पात्र आसा तो जियेतलो असो सैमाचो नेम नासून पात्र नाशिल्ले जीव लेगीत सैम पोसता. मनीस समाजांतूच न्हय तर जनावरांभितर लेगीत परस्पर सहकार्याचें नातें आसता, अशी क्रपॉटक्यिनची भूमिका आशिल्ली. श्रमविभागणी वा अर्थीक चलन हांचो आस्पाव नाशिल्ली, पूण कम्यूनचेर (Commune) म्हळ्यारूच सहकार तत्त्वाचेर आदारिल्ली अर्थवेवस्था आनी पुराय कम्युनिस्ट समाजाची निर्मिती, हो ताचो आदर्श आशिल्लो. जॉर्ज सॉरेल ह्या अराज्यवादी सैध्दांतिकाच्या विचारांत मनशाच्या बऱ्यापणाक वा व्यक्तिस्वातंत्र्याक खास म्हत्व ना. ताणें आपल्या 'Reflections of Violence' ह्या ग्रंथांत कामगारवर्ग भांडवलशाही सत्ता कशी हुमटून उडोवंक शकतलो, हाची फोडणीशी केल्या. सार्वत्रिक संप हें मुखेल अस्त्र अशें मानून प्रस्थापित कामगार संघटनांचो क्रांतीखातीर उपेग करपाचें ताचें तंत्र आशिल्लें. तातूंतल्यानूच अराज्यवादी संघसत्तावाद जल्माक आयलो.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या सुखातीच्या काळांत जहालमतवादांत बरीच एकवाक्यता आशिल्ली. पूण एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक

सावन तातूंत उजवो आनी दावो असो फरक जालो. उजवो जहालमतवाद हो प्रस्थापित राश्ट्रसत्तांक चड बळिश्ट करपाचे प्रवृत्तींतल्यान निर्माण जालो. खासा राश्ट्रवंशाचें इतिहासीक कार्य आसता, हे भुमिकेचेर उजव्या जहालमतवादाची बसका आदारीत आसा. वांशिक एकरुपता आनी प्रादेशिक सार्वभौमत्व हांचो परस्परसंबंद एकुणिसाव्या शेंकड्यांत सर्वमान्य जाल्लो आनी त्या आदाराचेर पयल्या म्हाझुजाउपरांत व्हर्सायच्या तहाप्रमाण युरोपचें राजकी वांटे जाले. पयल्या म्हाझुजाउपरांत पयल्या दोन दशकांत अतिरेकी राश्ट्रवादाचें एकदम जहाल स्वरुप इटली-जर्मनी-जपानांतल्या सर्वंकष हुकूमशाहींत प्रगट जालें. ह्या हुकूमशाह्यांचें सैध्दांतिक अधिष्ठान थोड्याभोव फरकान सारकेंच आशिल्लें. ते वंश वा सांस्कृतिक दायज वा दोनांयचेर आलटून-पालटून भर दिताले. हिटलराचो नाझीवाद आनी मुसोलिनीचो फॅसिझम हे दोनूय व्यक्तीस्वातंत्र्याचे खर दुस्मान आशिल्ले. व्यक्ती म्हळ्यार फकत प्रजा. स्वतंत्र मनीस म्हूण ताका फॅसिस्ट समाजांत सुवात नाशिल्लें. प्रजातांत्रिक जहालमतवाद आनी अराज्यवाद हांणी पुरस्कृत केल्लीं स्वातंत्र्याचीं सगळीं मूल्यां फॅसिझमान न्हयकारलीं. समानता आनी शांतता फॅसिझमाक मान्य नाशिल्ली. वंशश्रेश्ठत्वाखातीर सगळ्या मनशांचे समानतेचो धिक्कार करप आनी ह्या श्रेश्ठ वंशाची सत्ता सगळ्याक प्रस्थापित करपाखातीर शांततायेच्या जाग्यार झुजाचोच गौरव करप, हें नाझीवाद आनी फॅसिझम हांचें सूत्र आशिल्लें.

दावो जहालमतवाद लेगीत एकसुत्री वा एकजिनसी उरनासतना ताच्यांत जायत्यो प्रवृत्ती निर्माण जाल्यो. १. अराज्यवादी २. मार्क्सवादी-लेनिनवादी (माओवादी, ट्रॉट्स्कीवादी हांचो आस्पाव ह्या गटांत जाता) ३. मार्क्सवाद न मानपी जहालसमाजवादी, अतिजहाल अराज्यवादी. स्पेनच्या यादवी झुजांत अराज्यवाद्यांनी जहाल आघाडीत सामील जावन फ्रँकोचे घुरयेक तोंड दिलें. फ्रांसांत जाल्ल्या १९६८ चे विद्यार्थीक्रांतीतूय अराज्यवादी गटान कामगिरी केली. युरोपीय देशांत खुबशा सुवातींनी अराज्यवादी गटांचो प्रभाव दिसून येता.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत उदेंत युरोपांत सगळ्याक साम्यवादी सत्ता अस्तित्वांत आयली. चीन, व्हिएटनाम, उत्तर कोरिया हांगाय यशस्वी क्रांती जावन साम्यवाद प्रस्थापित जालो; अस्तंत युरोपांत इटली, फ्रांस, पोर्तुगाल आनी स्पेन ह्या देशांतल्या साम्यवाद्यांनी कामगारांच्या हुकूमशाहीच्या मार्क्सवादी सिध्दांताचो आनी रशियाच्या आंतरराश्ट्रीय नेतृत्वाचो धिक्कार केलो. हे नवे दावे गट व्यक्तिस्वातंत्र्याचें मूल्य म्हत्वाचें अशें मानतात. अर्थीक विकेंद्रीकरण आनी प्रत्यक्ष लोकशाही हांचो ते पुरस्कार करतात. तांकां राजकी, अर्थीक आनी शिक्षणीक अशी सर्वांगीण पुनर्घटना अभिप्रेत आसा.

जहालमतवादाचो दुसरो फांटो उत्क्रांतिवादी समाजवादाचो वा लोकशाय समाजवादाचो जावन आसा. ब्रिटन, अस्तंत जर्मनी, स्कँडिनेव्हियन देश हातूंत लोकशाही समाजवादी मदींमदीं सत्तेर येतात. राजकी आनी अर्थीक सत्तेच्या केंद्रीकरणाक लागून निमाणी हुकूमशाही निर्माण जाता. देखून, तांकां संमिश्र अर्थवेवस्था आनी लोकशाहीच मानवता. साम्यवादी आनी लोकशाही समाजवादी हांचेमदीं लेनिनच्या काळांत खर संघर्श निर्माण जाल्लो.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांतच्या काळांत जहालमतवादाचो प्रसार आशिया, आफ्रिका आनी लॅटिन अमेरिका हातूंत जालो. युरोपीय वसाहतवादाचे गुलामगिरींतसून मुक्त जाल्ल्या देशांत जहालमतवादाचो खास प्रभाव दिसून येता. तातूंत राश्ट्रवाद आनी लोकशाही समाजवाद वा हुकूमशाही मानपी साम्यवाद अश्यो दोनूय प्रवृत्ती दिसून येतात. आशियांतल्या साम्यवाद्यांतूय (चीन, उत्तर कोरिया, व्हिएटनाम) स्वतंत्रपणान साम्यवादी समाज उबारप आनी रशिया-चीन संघर्शांत तटस्थ रावप, असो ह्या धोरणाचो प्रभाव दिसून येता.

- कों. वि. सं. मं.

**जळगांवः** महाराश्ट्र राज्यांतल्या जळगांव जिल्ह्याचें मुखेल थळ. लोकसंख्याः १,४५,३३५ (१९८१). शाराचो आवांठः १२.४४ चौ.किमी.; ईशान्येक ४१८ किमी. अंतराचेर गिरणा आनी तापी न्हंयांचे मदीं हें शार वसलां. हांगाची हवा सुकी, भलायकेक मानवपी अशी आसली तरी खरखरत्या गिमाखातीर जळगांव शाराची बरीच नामना आसा. ह्या शाराक उदकापुरवण बरेंतरेन जाता.

पूर्विल्ल्या काळांत आदल्या खानदेश वाठारांचें हें राजधानीचें शार आशिल्लें. १८१८ वर्सा मेरेन ह्या शाराचेर होळकराचो शेक चलतालो. पूण उपरांत ब्रिटिशांची सत्ता आयली.

१८६२ वर्सा सावन जळगांव शारांत रेल्वेमार्ग सुरु जालो. तेन्नासावन भारतांतलें सगळ्यांत पोरनें रेल्वेमार्गविलें स्थानक म्हूण जळगांवची नामना आसा. मध्य रेल्वे आनी अस्तंत रेल्वेचें हें प्रस्थानक आसा. जळगांव ते अमळनेर लघुरेल्वे मार्ग ह्या शारांतल्यान वता. तेचपरी जळगांव ते अंजिठा राजमार्ग ह्या शारांतल्यान सुरू जाता. देखुनूच 'अंजिठा प्रवेशदार' म्हूण ह्या शाराची नामना आसा. सव्या क्रमांकाचो धुळे-नागपूर-कलकत्ता, राश्ट्रीय मार्ग जळगांवांतल्यान सुमार ६.५ किमी. मेरेन आसून राज्य परिवहन मार्गाचें हें मुखेल केंद्र आसा.

फाटल्या दोनशें वर्सांत ह्या शाराची उदरगत जायत आसा आनी सद्या जळगांव शार वेपारी, उद्देगीक आनी शिक्षणीक नदरेन मुखेल केंद्र जालां.

शारांत कापूस, केळीं, मस्मी भिकणां, मसालो, धान्य, बोरां, पेरां आदी तरेकवार फळां आनी भाज्यो भरपूर प्रमाणांत जातात. देखून ह्या वस्तूंची हांगा व्हड बाजारपेठ आसा. जळगांवसावन गाय, बैल आदी जनावरां तशेंच तांतयां, दूद, तूप आनी हांगा उत्पादन जाल्ल्या हेर वस्तुंची निर्यात जाता. भारतांत फकत जळगांव शारांतूच केळपीठ कारखानो आसा. तेचपरी कापूस पिंजून गठ्ठे बांदपाचो कारखानो, तेलाच्यो आनी कपड्याच्यो गिरणी, विजेचीं केंद्रां आदी जळगांव शारांत आसात.

जळगांव शारांत सगळे तरेच्यो शिक्षणीक मळावेल्यो संस्था आसात ह्यो संस्था शिक्षणीक मळाचेर उदरगत करूंक वावुरतात. भारतांतली तशींच महाराश्ट्रांतलीं म्हत्वाचीं हेर शासकीय कार्यालयां हांगा आशिल्ल्यान जळगांव शाराक म्हत्व आसा. जळगांव शारांतलीं देवळां, पीर, मशिदी आनी हेर पोरन्यो वस्तू पळोवपासारक्यो आसात. महाराश्ट्रांतलो सगळ्यांत व्हड दूद प्रकल्प हांगा आसा. हांगा सभा, संमेलनां, शिबिरां, व्याख्यानां जायत आसतात. देखून जळगांव शार सदांच गजबजिल्लें आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**जांबः** (मराठी- जांब गुलाबी, हिंदी- गुलाब जामन; गुजराती- गुलाब जांबु; संस्कृत- जंबू, जंबुराज; इंग्लीश- रोझ ॲपल, लॅटीन- सायझिजियम जांबोस, यूजेनिया जांबोस; कूळ- मिर्टेसी).

सदांच पाचवेचार आसपी हें झाड सादारणपणान ९ मी. मेरेन वाडटा. पानां लांबट आनी अरुंद आसतात. पानांची लांबाय सादारण १२ ते २० सेंमी. इतली आसता. फुलां पाचव्या रंगाचीं. फळां सादारण हळडुवसार ते धवसार गुलाबी रंगाचीं आसतात. फळांत १-२ बियो आसतात.

इस्ट इंडीज, सिक्कीम, भारत हांगा हो रुख सांपडटा. हरशीं हें एक रानवटी झाड; पूण बंगाल, आसाम, मणिपूर सारक्या राज्यांनी ह्या पिकाची पध्दतशीर लागवड केल्ली दिसून येता. गोंयांत बरेचकडेन हें झाड पळोवंक मेळटा.

ह्या झाडाची गुटी कलम पध्दतीन लागवड करतात. हें झाड फेब्रुवारी-एप्रिल म्हयन्यांत फुलता आनी जून ते ऑगस्ट म्हयन्यांत फळां तयार जातात. दक्षिण भारतांत मात झाड बेगीन फुलता आनी फळांय बेगीन तयार जातात.

फळाचो आकार सादारण बारीक सफरचंदायेदो आसता. फळाक व्हडलीशी रुच आसना; पूण गुलाबासारको वास येता. फळाचो रोस मेंदू आनी यकृताक पुश्टीक आसता.

गुलाबी जांबावांगडा जांबाची आनीक एक जात म्हळ्यार मलाका

जांब. हाका मलाखी जांब, मौंटन ॲपल, युजेनिया मलाकेन्सिस, सायझिजियम मलाकेन्सिस अशीं नांवां आसात. कूळ मात मिर्टेसी हेंच आसा. हें झाड सादारण ९-१५ मी. मेरेन वाडटा. पूण भारतांत हो रुख दोन ते अडेज मी. परस चड वाडना. हाका मे-जून च्या काळांत फळां येतात.

- विश्राम गांवकार

**जांबळः** (मराठी- जांभूळ; हिंदी- जामुन, काला जामुन; गुजराती- जांबुडा; संस्कृत-जंबु, महास्कंध, नीलफल; इंग्लीश- ब्लॅक प्लम, जावा ॲपल; लटीन- सायझिजियम क्युमिनी, यूजेनिया जांबोलाना; कूळ-मिर्टेसी).

वर्सूयभर पाचवेंचार उरपी हें झाड सुमार ३० मी. मेरेन ऊंच वाडटा. झाडाचो घेर सुमार ३.६ मी. मेरेन आसता. साल २.५ सेंमी. जाड; पानां एकामेकांसामकार आनी दाट पाचवीं आसतात. पानांची लांबाय ७.५ ते १५ सेंमी. आनी रुंदाय ३.८ ते ६.३ सेंमी. आसता. फुलां भितरल्यान हळडुवीं जाल्यार भायल्यान लेव पाचव्या कोराचीं आसतात. फुलांच्यो चार पाकळ्यो वेगवेगळ्यो आसतात. फळां एके बियेचीं लांबट, वाटकुळीं आसतात.

ह्या झाडाचें मूळ स्थान भारतांतले अस्तंत घाट अशें मानतात.

ह्या पिकाची लागवड श्रीलंका, मलाया, ऑस्ट्रेलिया ह्या देशांनी व्हडा प्रमाणांत जाता. भारतांत चडशा अस्तंत घाटांत हें झाड सर्रसपणान दिसता. ह्या झाडाची पध्दतशीरपणान केल्ली लागवड भारतांत पळोवंक मेळना. गोंयांत जांबळांचे रुख काजूचे लागवडींत आनी न्हंयांचे देगेर सैमीक पध्दतीन जाल्ले दिसतात.

जांबळाच्यो खास अश्यो जाती नात. पूण दोन प्रकार आसात, ते अशे.

**१. रा-जामनः** ह्या प्रकारच्या झाडाक मोटीं जांबळां लागतात. तीं गोड आसतात आनी भितरल्यो बियो बारीक आसतात.

**२. काथाः** ह्या प्रकारचीं जांबळां बारीक आनी रुचीक आंबट आसतात.

जांबळाचें झाड लोमी प्रकारचे जमनींत बरेतरेन वाडटा. उदक सहजपणान व्हांवन वचपी सुवात ह्या झाडाक मानवता. झाड पावसाच्या उदकाचेर वाडटा, तरी गिमादिसांनी उदक घाल्यार ताची वाड बरे तरेन जाता.

पध्दतशीर लागवड करपाखातीर बियो काडून १० ते १५ दिसांभितर किल्लत घालतात. जांबळाचे बियेचें खाशेलपण म्हळ्यार एके बियेंतल्यान बरींच रोंपां किल्लून येतात. कलम पध्दतीनूय ह्या झाडाची लागवड करतात. शास्त्रोक्त पध्दतीन लागवडीखातीर १×१×१ मी. लांब, रुंद आनी खोल १०×१० मी. अंतराचेर फोणकुलां मारून पावसाचे सुर्वेक तातूंत रोंप वा कलम रोयतात. सुरवातीचीं पांच वर्सां झाडाक सुमार २० किग्रॅ. कंपोस्ट वा शेणसारें दितात. उपरांत हें प्रमाण ल्हव ल्हव वाडोवन १० वर्सां आनी ताच्यावयल्या झाडाक १०० किग्रॅ. कंपोस्ट वा शेणसारें घालतात. जमीन पिकाळ आसल्यार झाडाक रसायनीक सारीं घालपाची गरज ना. पूण हलक्या दर्जाचे जमनींत वाडिल्ल्या झाडाक सुमार १० वर्सांउपरांत २५० ग्रॅ. नत्र; २५० ग्रॅ. स्फुरद आनी २५० ग्रॅ. पलाश दितात. हें सारें सादारणपणान ऑगस्ट म्हयन्यांत दितात.

रोंपा लावन तयार केल्लीं झाडां ८-१० वर्सांभितर, जाल्यार कलमी झाडां ५-६ वर्सांभितर फळां दिवंक लागतात. झाडाक फेब्रुवारी-मार्च म्हयन्यांत फुलां येतात आनी फळां एप्रिल-मे म्हयन्यांत येतात. एका झाडाक सुमार १००-१५० किग्रॅ. जांबळां लागतात.

जांबळाच्या झाडाचें लांकूड घराच्या मदेराक आनी शेतकारांचीं उपकरणां करपाखातीर वापरतात. झाडाचे सालींतलें टॅनीन हें द्रव्य चामडें रांपोवपाखातीर उपेगाचें आसता. फळां पिकतकच रुचीक बरीं लागतात. पोटांतल्या तशेंच गोड्यामुताच्या दुयेंसांचेर जांबळांचीं फळां उपेगी पडटात. फळांपसून सोरो, जेली, सरबत, व्हिनीगर तशेंच लोणचीं तयार करतात. झाडाचीं पानां रस्मी कीडे पोसूंक वापरतात. तशेंच तांचो गोरखां, मेंढरां, बोकड्यो हांचेखातीर खावड म्हूण उपेग जाता. तरन्या पानांचो कसाय पोटांतल्या विकारांचेर वखद म्हूण घेतात. जांबळाच्या फुलांनी बऱ्याच प्रमाणांत म्होंव आसता. ह्या झाडाक रोगाचो वा कीडीचो त्रास व्हडलोसो जायना. पानां खावपी कीड आनी धवो मूस हांचो केन्नाय त्रास जावं येता. असो त्रास जाल्यार ०.०३ % मॅलाथीयोन वा डायमेथोएट ह्या जंतुनाशकांचो फवारो मारतात. फळां कुसपाचो त्रास जाल्यार डायथेन-झेड-७८ हें जंतुनाशक ०.२ % फवारतात.

- विश्राम गांवकार

**जांबावलीकार, डॉ. पांडुरंग बाबीः** (जल्मः ७ फेब्रुवारी १९१५, जांबावली-केपें).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव बाबी जांबावलीकार. ताणें मेदीकू शिरुर्जियांव (Medico Chirurgiao) ही वैजकीशास्त्राची पदवी घेतली. तेचपरी ताणें मुंबय उच्च पदवेचें शिक्षण घेतलें. १९३० वर्सा शिवाजी युवक संघाचो वांगडी जावन ताणें समाजीक वावर करूंक सुरवात केली. २३ डिसेंबर १९३३ दिसा थापणूक जाल्ल्या 'उनियांव अकादेमीका' (Uniao Academica) हे विद्यार्थी संघटनेचो तो संस्थापक वांगडी आसलो. १९३९ वर्सा गोंयच्या 'गोवा काँग्रेस कमिटी' (मुंबय) हे संघटनेचो तो वांगडी जालो. १९४२ त मुंबय जाल्ले पोलिसांचे फारपेटींत राश्ट्रवाद्यांक बरीच दुखापत जाली, तेन्ना दोतोरांचो पंगड घेवन तो तांकां आदार दिवंक गेलो. आर्चबिशप डॉ. जुजे द कॉश्त नुनिश हाणें गोंयकारांविशीं वायट उतरां काडलीं. ताचे आड निशेद करपाक ताणें १९४३ वर्सा पणजे शारांत गोंयच्या हिंदूंची मिरवणूक घडोवन हाडली. पांडुरंग पी. शिरोडकार हाच्या फुडारपणाखाल जून १९४३ वर्सा ताणें हत्यारबंद हल्लो करपाचो कट रचिल्लो. तातूंत ताणें गोंयकार शिपायांच्या आदारान 'पियलो द तामडी माती' (Piolo do Tambdi Mati) ह्या नेमाळ्याचे कचेरीक उजो लावपाचें थारायल्लें. पूण हो कट भायर फुटिल्ल्यान ताका बेळगांव वचून लिपचो पडलो. थंय रावन तो गोंयचे सुटके झुजाखातीर वावर करूंक लागलो. १९४६ वर्सा तो 'महाराष्ट्र एकीकारण समितीचो' सरचिटणीस आशिल्लो. १९४७ वर्सा मुंबय गोंयचें जें पयलें राजकी अधिवेशन भरिल्लें तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो.

१९४८ वर्सा ताणें दत्तात्रय व्यंकटेश पै हाणें संपादन केल्लें 'विकास' नांवाचें मराठी सातोळें उजवाडाक हाडलें. १९४९ वर्सा तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचे बेळगांव कमिटीचो अध्यक्ष जालो. ४ आनी ५ जून १९४९ दिसा बेळगांव, नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचें जें अधिवेशन भरिल्लें तातूंत तो येवकार समितीचो अध्यक्ष आशिल्लो. १९५० वर्सा समयुक्त महाराष्ट्र परिशदेच्या दक्षिण विभागाचो चिटणीस म्हूण तो वेंचून आयलो.

जून १९५० वर्सा गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचो चिटणीस ह्या नात्यान ताणें बेळगांव हांगा अधिवेशन आयोजित केलें. १९५० वर्सा तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचे काँग्रेस कार्यकारी कमिटीचो वांगडी जालो. २६ आनी २७ मे १९५० दिसा ताणें लोंढा हांगा हे संघटनेची दुसरी परिशद आयोजित केल्ली. जुलय १९५० त, दिल्ली हांगा भरिल्ले नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेच्या तीन सदस्य समितीचो तो वांगडी आसलो. ऑक्टोबर आनी नोव्हेंबर १९५० त, ताणें विश्वनाथ एन्. लवंदे हाच्या आदारान आरोंदा ते माजाळे (कारवार) हांगा बसका घेतल्यो आनी सत्याग्रहांत वांटो घेवंक लोकांक स्फूर्त दिली. फ्रांस आनी पोर्तुगालच्यो वसाहती; ज्यो भारतांत आशिल्ल्यो, तांचे एकात्मतेचो पुरस्कार करपी पक्षांचे जोड परिशदेक तो २० मे १९५१ दिसा हजर राविल्लो.

१९५१ वर्सा नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचे कार्यकारी कमिटींत डॉ. काशिनाथ संजगिरी हाच्या अध्यक्षपणाखाल तो सरचिटणीस जालो. डिसेंबर १९५१ त, तो मुंबय वैजकी सेवा करूंक लागलो. गोंय सुटके उपरांत 'गोमंतक भाशा परिशद', 'महाराष्ट्र एकिकरण समिती', 'गोमंतक मराठा समाज' ह्या संस्थांकडेन ताचो संबंद आशिल्लो. बेळगांव

सावन उजवाडाक येवपी 'तरूण भारत' ह्या नेमाळ्याखातीर तो बरप करतालो. १८ जून १९८४ दिसा गोंय सरकारान ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जांभय:** तोंड पुरय उक्तें करून श्वास भितर घेवन भायर सोडपाचे प्रतिक्षिप्त क्रियेक जांभय म्हण्टात. जांभय संबंदी जायते समज आनी चालीरिती आदिवासी लोक तशेंच आर्विल्ल्या लोकांमजगतीं पयलींच्या काळासावन चलत आयल्यात. आदिवासी लोक, मनशाचो आत्मो नाक वा तोंडांतल्यान भायर सरता अशें मानतात; तेचपरी हे वाटेंतल्यान भुतां-खेतांय येवंक शकतात अशेंय ते समजतात. ताका लागून संवसारांतल्या सगळ्या आदिवासी लोकांभितर घरांचीं दारां बंद करून दवरपाची चाल दिश्टी पडटा. जांभय येवपाच्या वेळार तोंडामुखार हात धरपाची चाल लोकांमदीं दिश्टी पडटा, ताचें कारणूय वयलेप्रमाणूच जावन आसा. जांभय येतना तोंडामुखार दोन बोटांची चुटकी वाजोवपाची चाल आसा. ही चुटकी वाजयिल्ल्यान भुतां-खेतां पळून वतात, असो समज आसा. अशा वेळार राम नामाचो जप करपाची चाल कांय जाणांमदीं आसा. तशें करीना जाल्यार पातक लागता, असो समज आसा.

मनीस न्हिदिल्लो आसतना वा बेशुध्द जाल्लो आसतना ताचो आत्मो कांय खिणांखातीर कुडीच्या भायर वता, अशी कल्पना आसा. जागरुक अवस्थेंत आसतना मनशाचो आत्मो भायर सरलो तर भिरांकूळ प्रसंग उप्रासतलो म्हूण जांभय येवपा वेळार शिटूकसाण बाळगुपाचीय प्रथा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**जांभूळकर, आत्माराम तोपयो नाईक:** (जल्म: जांभूळवाडो-फोंडें).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव तोपयो नाईक जांभूळकर. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९५४ वर्सा सावन तो मोहन रानडेच्या फुडारपणाखाल वावर करूंक लागलो. बाणस्तारी पोलीस ठाण्याचेर 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेच्या वावुरप्यांनी हल्लो केलो, तेन्ना तांची रावपाची आनी जेवपाची वेवस्था ताणें केल्ली. भूंयगत कार्यकर्त्यांक मार्गदर्शन करप, पत्रकां वांटप हे सारकीं कामां तो करतालो. सप्टेंबर १९५५ त, पोलिसांनी ताका धरलो. पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया मुखार (Territorial Military Tribunal) चवकशे उपरांत ताका देड वर्स बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ताच्या फाटल्यान पोलिसांनी ताच्या घरच्यांक बरोच त्रास दिलो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८५ दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराखातीर ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जांभेकर, बाळशास्त्री:** (जल्म: ? १८१२, पोंभुर्ले-रत्नागिरी; मरण: १७ मे १८४६, मुंबय).

मराठी खबरांपत्राच्या वेवसायाचो जनक आनी पयले आंग्लशिक्षित पिळगेंतलो एक विद्वान. गंगाधरशास्त्री ह्या हुशार बापायच्या मार्गदर्शनाखाल ताचें मुळावें शिकप जालें. फुडें मुंबय येवन सदाशिव काशिनाथ उर्फ बापू छत्रे हाचेकडेन इंग्लीश आनी बापूशास्त्री शुक्ल हाचेकडेन तो संस्कृत शिकपाक लागलो. गणित आनी शास्त्र ह्या विशयांतूय ताणें प्राविण्य मेळयलें. जायत्या भारतीय आनी विदेशी भासांचो ताणें अभ्यास केलो.

लोकशिक्षण आनी ज्ञानप्रसार करपाच्या हेतान, ताणें १८३२ त 'दर्पण' हें खबरेपत्र काडून मराठी खबरेपत्राच्या वेवसायाची बुन्याद घाली. ताणें १८४० त 'दिग्दर्शन' हें मराठींतलें पयलें म्हयन्याळें सुरू केलें. भुगोल, व्याकरण, गणित, इतिहास ह्या विशयांचेर ताणें ग्रंथ बरयले. कांय पाठांतरांचो आदार घेवन ताणें 'ज्ञानेश्वरी' चें संपादन केलें. 'रॉयल एशियाटिक सोसायटी' च्या वावरांत वांटो घेवपी, तो पयलो भारतीय विद्वान जावन आसा. हे संस्थेच्या तीम्हयन्याळ्यांत भारतीय शिलालेख आनी तांब्यापटे हांचेविशीं ताचे संशोधनात्मक निबंद येताले.

ताचे विचार सुदारणावादी आशिल्ले. किरिस्तांवांच्या घरांत रावला, म्हूण समाजीक बहिश्कार घाल्ल्या एका हिंदु भुरग्याक ताणें तेन्नाच्या सनातनी लोकांच्या विरोधाची पर्वा करीनासतना शुध्द करून परत हिंदू धर्मांत घेवपाची वेवस्था केली.

'बाँबे नेटिव्ह एज्युकेशन सोसायटी' चो नेटिव्ह सेक्रेटरी, अक्कलकोटाच्या राजकुंवराचें शिक्षण, एल्फिन्स्टन इन्स्टिट्यूटांत पयलो असिस्टंट प्रोफेसर, शाळा तपासनीस, अध्यापन शाळेचो (Normal School) संचालक अशा जायत्या मानादीक जाग्यांचेर ताणें काम केलें. १८४० त 'जस्टिस ऑफ द पीस' ह्या पदाचेर ताची नेमणूक जाल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**जाकॉब, फ्रांस्वा:** (जल्म: १७ जून १९२०, नान्सी- फ्रांस).

नामनेचो फ्रेंच जीववैज्ञानिक (Biologist). दुसऱ्या म्हाझुजांत, सैन्यांत नोकरी करतकच ताणें पारीस विद्यापीठांतल्यान १९४७ त एम्. डी. आनी सॉरबोन विद्यापीठांतल्यान १९५४ त डी. एससी. ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. १९५० त पाश्चर इन्स्टिट्यूटांत सूक्ष्मजैव शरीरक्रियाविज्ञान (Micro-organic Physiology) विभागांत ताची नेमणूक जाली. फुडें १९५६ त, तो थंयचे प्रयोगशाळेचो मुखेल आनी १९६० त, सूक्ष्मजैव आनुवंशिकी विभागाचो मुखेल जालो. १९६४ सावन कॉलेज द फ्रांस हातूंत कोशिकीय (पेशींविशींच्या) आनुवंशिकीचो प्राध्यापक म्हूण तो काम करता.

रायबोसोम (Ribosome) हातूंतल्या खाशेल्या प्रथिनांच्या संश्लेशणांत जे आर. एन्. ए. (RNA = Ribo Nucleic Acid) संदेश व्हरपाचें काम करता, ताका 'संदेशवाहक आर. एन्. ए.' अशें नांव जाकॉब, मॉनो आनी आर्थर पार्डी हांणी दिलें. संदेशवाहक आर. एन्. ए.चे संकल्पनेक लागून जननिक संकेताचें स्पश्टीकरण जावपाक मदत जाली. दोन लागींलागीं आशिल्ल्या जनुकांच्या (Genes) पुंजुल्याक ताणें ऑपिरॉन (Operon) आनी तांचें नियंत्रण करपी जनुकांक ऑपरेटर (Operator) हीं नांवां दिलीं. जाकॉब हाणें ई. एल्. वोलमान हाचेवांगडा व्हायरसांतल्या जनुकांचे दोन मुखेल गट सोदून काडले. तातूंतलो एक गट जननिक सामग्रीच्या स्वयंप्रेरित (autonomous) पुनरुत्पादनाकडेन संबंदीत आसा, जाल्यार दुसरो व्हायरसाच्या आवेश्टनांतल्या आनी रोगकारक यंत्रणेंतल्या प्रथिन रेणूंचे निर्मितीकडेन संबंदीत आसा. ह्या दोगांयनीय मेळून सूक्ष्मजंतूंतल्या व्हायरसविरयत आशिल्ल्या खाशेल्या जननिक मूलघटकांचो सोद लायलो आनी तांकां एपिसोम (episome) हें नांव दिलें. जाकॉब आनी वोलमान हांणी सूक्ष्मजंतूंच्या लैंगीक संयुग्मनाविशींय (conjugation) म्हत्वाचें संशोधन केलां.

शरीरक्रियाविज्ञानांतल्या ताच्या ह्या संशोधनाचो उपेग अनुकूलन (adaptation), प्रजोत्पादन (reproduction) आनी क्रमविकास उत्क्रांती (evolution) ह्या आविश्कारांच्या अभ्यासांत जायत आसा. जनुक आनी एंझाइम हांचेवयल्या ताच्या संशोधनाक लागून वैजकी विज्ञानांत एक नवें अभ्यासाचें क्षेत्र निर्माण जालां. जाकॉब हाणें सोदून काडिल्ल्या एपिसोन (episone) ह्या सूक्ष्मजंतूंतल्या मूलघटकांचो उपेग कर्करोगाच्या संशोधनात जाता.

व्हायरसाचें विश्लेशण (Virus synthesis) आनी एंझाइमचें जननिक नियंत्रण (enzymes genetic control) ह्या म्हत्वाच्या सोदाखातीर ताका १९६५ त शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयांतलो नोबेल पुरस्कार आंद्रे ल्वॉफ आनी जाक मॉनो ह्या हेर फ्रेंच जीववैज्ञानिकांवांगडा वांटून मेळ्ळो.

१९६२ त ताका पारिसांतल्या ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचो चार्लस् लिओपोल्ड मेयर पुरस्कार मेळ्ळो. रॉयल डॅनिश ॲकॅडेमी ऑफ लेटर्स

अँड सायन्सेस (१९६२), अमेरिकन सोसायटी ऑफ आर्ट्स अँड सायन्सेस (१९६४), रॉयल सोसायटी (१९७३) ह्या संस्थांचो तो वांगडी आसा. १९७१ त ताचें 'ला लॉजीक द्यु व्हिव्हां' (La Logique du vivant) हें पुस्तक उजवाडाक आयलें.

कों. वि. सं. मं.

**जागर :पुराय रात जागून देवांचें नामस्मरण, मनोरंजन करपी लोककलेचो धर्मीक नृत्यप्रकार. गोंय, कुमाऊं आनी गढवाल वाठारांत हो प्रकार अस्तित्वांत आसा.**

जागर ह्या लोकनृत्य प्रकाराक शेंकड्यांनी वर्सांचो दायज आसा. गोंयांत गांव आनी गांवकार हांची अरिश्टांसावन, भुतांखेतांसावन राखण जावची, म्हूण थळाव्या देवतांक प्रसन्न आनी जागरुक दवरचे पासत दर वर्सा जागर मनोवपाची चाल आयली. गोंयच्या 'पेरणी' जागराचें मूळ भागवत धर्मांत दिसता. तातूंतल्यान धर्तरेचे उत्पत्तीचें गुपीत उक्तें जाता. बंगाल राज्यांतूय असो प्रकार दिसता. गोंयच्या जागरान थळाव्या खाशेलपणाकडेन केन्नाच फाट करूंक ना; पूण गोंयच्या इतिहासांत ज्यो म्हत्वाच्यो घडणुको घडल्यो, ताचो चड-उणो प्रभाव गोंयच्या जागराचेर पडला.

जागर विंगड विंगड प्रकारचे आसले तरी ताचे मूळ प्रकार दोनूच आसातः १. कुडींत संचारिल्ल्या मनशाक बरो दिसचो म्हूण केल्लो जागर २. सादारण मनशाच्या बरेपणाखातीर केल्लो जागर.

जागराची सादारण पध्दत अशी आसताः एकाद्रो मनीस दुयेंत पडटकच घरांतली जाण्टी बायल आपले कुलदेवतेमुखार बसता. तिचे फुडें एका कापडाच्या कुडक्यांत थोडे तांदूळ आनी पयशे घालून ताची पुडी बांदतात. उपरांत ती पुडी आंगांत संचारिल्ल्या मनशा भोंवतणच्यान तीन फावट हुंवाळून उडयतात आनी दुयेंत मनीस बरो जातकच जागर करतलों, अशी आंगवण करतात. फुडें तो मनीस बरो जातकच देवळांत वा घरांत जागर करतात. हाका 'आंगवणीचो जागर' म्हण्टात.

दुसरो जागर देवळांत करतात. देवळांत पयलीं दिवली पेटयतात. धोल वाजयत देवाची तोखणाय वा देव-राकेसाच्या झुजाचीं वर्णनां व्हडाः हडान गायतात. कासाळें नेटान वाजपाक लागतकच कांय लोकांच्या कुडींनी देवाचो संचार जाता आनी ते नाचूंक लागतात. अशा अवसर आयिल्ल्या मनशांक धोडे नाचयतात; ताका 'जागरी' अशें म्हण्टात. उपरांत तांकां कांय जाण बळी आनी सोरो अर्पण करतात. इतलें जातकच देव तांच्यो सगळ्यो इत्सा पुराय जातल्यो, असो आशीर्वाद दिता. कांय कडेन जागर जावपी सुवात शेण काडून निवळ करतात. थंय अग्नीची थापणूक करून हवन करतात. जागर नृत्यांत वांटो घेवपी न्हावन-धुवन उज्याफुडें बसतात आनी धोल वाजयत 'मंगला चरण' गायतात. तांकां कांय लोक ताटां वाजोवन साथ दितात. तेउपरांत 'जागरी' देव-देवतांची कथा सांगपी गीतां गायतात. गीतां गायतकच नाचप्यांच्या कुडींक थरथर सुटता. तांच्या आंगांत देवांचो अवसर येता आनी ते नाचूंक लागतात. जागरी उपरांत देवासंबंदीचीं आख्यानां गीतांतल्यान गायतात आनी नाचपी त्या गीतांतले भाव तोंडांवेल्यान आनी हावभावावरवीं उक्तायतात. अशें हें रातभर चलता. हे जागर एक, तीन वा सात दीस लेगीत चलतात.

गोंयांत जागराचे तीन प्रकार दिसून येतात. १. गावडो जागर २. पेरणी जागर ३. शिवालेचो हिंदू-किरिस्तांवांचो जागर.

**गावडो जागर**ः पौष म्हयन्यांतले एके राती, गांवच्या मदीं आशिल्ल्या 'मांडार' वा ग्रामदेवतेच्या माटवांत हो जागर मनयतात. गावड्यांची चड वसती आशिल्ल्या पाळें, शिरदोन, करमळे, प्रियोळ, वेलिंग, खोर्ली, करमळी ह्या सुवातींनी हो जागर जाता. म्हादळें, धोल, नगारो, घुमट, कांसाळें ह्या वाद्यांवांगडा एक दोन गावपी एकेकडेन बसतात आनी तेत्तीस कोटी देवांक नमन करतात. उपरांत एकेक सवंग कोयंडी करून बशिल्ल्या लोकांमदीं येवन नाचता, गायता. शेजारचे वाजोवपी सवंगाच्या गीतांचें ध्रुपद धरून सांगात दितात. जागराक कथानक नाशिल्ल्यान खंयचेंय सवंग केन्नाय येता. ही सवंगां विंगड विंगड जाती जमातींचीं आसतात. तातूंत पोरने पोर्तुगेज राजवटींतले पोर्तुगेज उलोवपी, निग्रो खांपरी, पाखले, हिंदी उलोवपी पठाण लेगीत आस्पावतात. हीं सवंगां, आयच्या आनी त्याकाळावेल्या समाजाचें चित्रण करतात. जागराचीं गीतां विनोदी, पूण हो नाच रांगडो आसता. सवंगांच्या प्रकृतीस्वभावाप्रमाण नृत्याचो ठेको, लय, पावल्यो आसतात. बायलांचीं संवगां दादले करतात. पात्रांचो भेस चकचकीत आसता. हातूंतलीं कांय पात्रां अशीं आसातः तेंडली, तिचो मोगी, गाराशेट, इमिनेश, शेख रणरावत, लग्न जाल्ली बायल, घोव भायल्या देशांत गेल्या उपरांत दुसऱ्या दादल्याकडेन संबंद दवरपी बायल, घोव भायल्या गांवांत गेल्या उपरांत एका मुसलमानाचे पापी नदरेक पयसावपी बायल, अडाणी दोतोर, फुलकार, रेंदेर, मांय, सून, पाखले, म्हार आनी दांडला. दांडला हो कसबी कलाकार पांयांक दांडे बांदून कोंड्याचेर नाचपी सवंग जावन आसा. जागर नृत्यांतलें तें मुखेल पात्र आसा.

**पेरणी जागर**ः गावडो जागरापरस हो प्रकार मात्सो वेगळो आसा. फोंडें, केपें, वाघुर्मे, मडकय, मळकर्णे, काणकोण, पैंगीण, लोलयें, काकोडें ह्या सुवातींनी 'पेरणी जागर' मनयतात. पेरणी समाजांतले लोक आपलो पेटारो घेवन रातचो देवळामुखार हो जागर करताले. पूण आतां ही भोगावळूच जाता, अशें दिसून आयलां. ग्रामसंस्थांकडल्यान मेळपी तेल, तांदळांचे बिदागेन आनी पळोवपी लोकांकडल्यान मेळपी पयशांचेर समादान मानून घेवन, हे पेरणी गांवांत रातभर जागयताले. ह्या जागरांत सवंगां लांकडांचीं रुपडीं वापरतात. अशीं तिशेक रुपडीं म्हळ्यार सवंगां आसतात. ह्या जागरांत बायलांचीं सवंगां बायलांच करतात. तेपासत ह्या समाजांतल्या बायलांक पयलीं लग्न करीनासतना, शेंस घालून दवरताले. हीं कामां दर एका घराक वांटून दिल्लीं आसतालीं. ह्या जागरांत, गांवच्या सगळ्या तरेच्या स्वभाव गुणांचें दर्शन, विडंबनात्मक तरेन पोजडे भाशेंतल्यान जाता. तातूंतल्या एका पात्राचो संबंद दुसरेकडेन नासता. पूण खंयचें सवंग केन्ना येवप, हें परंपरेन थारायिल्लें आसता.

दरेकाची नाचपाची रित, तांच्या गावपाचें संगीत तशेंच भेस लेगीत वेगवेगळो आसता. धोलकें, कासाळें, घुमट, मृदंग वाजोवपी वादकांवांगडा एक मुखेल सुत्रधार आसता. तो पात्रांमदले दुवे सादपाचें काम करता. ह्या जागरांत गाणें, नाच हांचेवांगडा संवादूय आसतात. हे संवाद कोंकणी-मराठी भरशिल्ल्या प्रतिकात्मक काव्यशास्त्र विनोदान गुंथिल्ले आसतात. हे संवाद सूत्रधार आनी सवंगांमदीं जातात. एक लांकडी चार फुटांची दिवली आनी धवो पड्डो इतलेंच नेपथ्य हांगा आसता. ह्या जागरांतलीं सवंगां अशीं आसतातः हरदास सूत्रधार-जागरेरणी, साथीदार, गणपती, सरस्वती, आदीमाया (म्हातारी), सौदागर, पठाण, मधुकैटभ (राकेस). थोडेच मनीस पुराय रातभरेन विंगड विंगड सवंगां करतना दिसतात. निमाणें मधुकैटभ ह्या राकेसाचो वध जातकच गारार्णे घालून हो जागर सोंपता. ह्या जागरांत बारा-तेरा प्रकार दिसतात. तातूंतले तुणतुण्या जागर, मालये जागर, चोरा जागर अस्तित्वांत आसात. चोरा जागरांत चोरयो करपाची चाल आसा. आयज हो कलाप्रकार चडसो सोंपत आयला.

**शिवोलेचो हिंदु-किरिस्तावांचो जागर**ः शिवोले हिंदू-किरिस्तांव लोक एकठांय येवन नातालाच्या उत्सवा उपरांत पयल्या सोमारा हो जागर व्हडा उमेदीन मनयतात. ह्या जागराक 'हिंदू-किरिस्तांवांचो जागर' अशें म्हण्टात. दोन समाजांमदीं एकचार जागोवपी हो एक प्रकार जावन आसा. हांगा कुटुंबांत थारिल्लीं अशीं सवंगां आसतात. ह्या जागरांत 'जागरयो' हें देवाचें सवंग पयलीं नाचून वता. उपरांत गणेशवंदन जाता. मेरीच्या कुंवराची तोखणाय हिंदू लोक व्हड भक्तीभावान करतात. ह्या जागरांतलीं सवंगां अशीं आसतातः भरभरैया, साईद, फिरंगीराजा, फुलकार, फुलकान्न, भोंवोर, म्हार-म्हारीण. हेर दर एकल्याचो भेस वेगवेगळो आसता. जागरांतलीं पदां सवंगाक फाव सारकीं, भुंयेकडेन नातें सांगपी आसतात. जागरांतलीं गीतां, संवाद लिखित रुपान

बरयिल्लीं नात; पूण परंपरेन, पाठांतरान तीं आयजमेरेन तिगून उरल्यांत.

कुमाऊं प्रदेशांत गंगनाथ जागर, रमोला जागर आनी सी जागर हे तीन प्रकार दिसतात. थळाव्या देव-देवतांक, भुतांखेतांक तशेंच पूर्विल्ल्या वीर पुरसांक प्रसन्न करून घेवपाखातीर जागर नृत्य करतात. राजपूत लोकांच्या लग्नांत जेन्ना न्हवरो, व्हंकलेघरा लग्नाक वता तेन्ना ताच्यामुखार जे लोक नाच करतात, त्या नाचाक 'जागर' अशें म्हण्टात. कांय बायलां-दादल्यांच्या आंगांत मदींमदीं देवतांचो वा भूतपिशांचो संचार जाता, तेन्ना कुडींत संचारिल्ले देवदेवतेक प्रसन्न करपाखातीर त्या मनशाक नाचोवपाची पध्दत आसा. गावड्या जागराकडेन लागींचें नातें दाखोवपी एक नाच, आसाम आनी हेर दोंगरी वाठारांत दिसता. तातूंतलीं सगळीं सवंगां सूर्य उदेसर मांडार वचून नाचतात. निमाणें सकाळींफुडें देवाची प्रार्थना करून देवांक सांगणें करून जातकच हो जागर सोंपता.

वसंत पेरणी, अनंत पेरणी, पोपट पेरणी, गोपीनाथ वाघुर्मेकार हे पेरणी जागरांतले कांय नामनेचे कलाकार आसात.

गोंयचो जागर सांस्कृतिक, समाजीक, तात्त्विक आनी राजकी बसका आशिल्लो आसा; तो फकत धर्मीक स्वरुपाचो ना. गोंय कला अकादेमी संस्था, शासनाच्या पालवान जागर कला जिती उरची म्हूण वावुरता.

- रवींद्र म्हाड्‌डोळकार

**जातक कथा:** गौतम बुध्दाच्या पुर्वजल्मासंबंदीच्या कथांक 'जातके' वा 'जातककथा' म्हण्टात. जातक ह्या उतराचो अर्थ जल्मा संबंदी असो जाता. बुध्दत्व प्राप्त करचेपयलीं गौतम बुध्दाक 'बोधिसत्त्व' म्हळां. बुध्दत्व प्राप्त जावचे पयलीं बुध्दाक जायत्या योनींत जल्म घेवचे पडले. तातूंत दान, शील, नैष्कर्म्य, प्रज्ञा, वीर्य, क्षांती, सत्य, अधिष्ठान, इश्टागत आनी उपेक्षा ह्या धा पारमितांची (गुणांची) उदरगत करून ताणें हे उदरगतीचो निमाणो पांवडो प्राप्त करतकच तो 'गौतम बुध्द' म्हूण अवतरलो, अशे भावनेंतल्यान ह्यो कथा घडल्यात. ह्या जातककथांत 'बोधिसत्त्व' हो कथेचो नायक, उपनायक वा कथेंतली एक व्यक्ती म्हूण वावुरतना दिसता. हातूंत तो पशू, पक्षी, जलचर ह्या विंगड विंगड रुपांत दिसता. बायलेच्या रुपांत ताणें जल्म घेतिल्लो दिसना. सगळ्या कथांत तो दादल्या रुपानूच दिसता.

जातक साहित्य बुध्दाचे पयलीं लोककथांच्या रुपान अस्तित्वांत आसलें. बुध्दाच्या काळांत राजघरांत भिक्षूंची जी पयली संगीती भरली, तातूंत हें साहित्य बौध्द कर्मसिध्दान्ताची कुरू जालें. दुसरे संगीतीच्या काळांत तें बदल्लें. तिसरे संगीतीच्या काळांत बौध्दांच्या त्रिपिटकांत, 'सुत्तपिटक' ह्या ग्रंथांत खुद्दकनिकाय म्हूण जो पांचवो भाग आसा, ताच्या पंदराव्या पोटविभागाच्या धाव्या भागांत हें साहित्य आस्पावतालें. ह्या भागांत जातककथांकडेन संबंदीत अश्यो गाथा आसात, जातककथा नात. जातककथा नाशिल्ल्यान, त्या गाथांचें स्पश्टीकरण जावचें, म्हूण 'जातक-अट्ठकथा' पाली भाशेंत बरयली. उपरांत तिचो सिंहली भाशेंत अणकार जालो. ह्या अणकारांत मूळ जातककथा पालींत दवरिल्ल्यो. फुडें पाली अट्ठकथेचो नाश जातकच सिंहली जातक- अट्ठकथेच्या आदारान गद्य रुपान 'जातकट्ठवण्णना' (जातकार्थवर्णना) ह्या नांवान ती पर्थून पालींत हाडली. हें कार्य बुध्दघोषाचें आसा, अशें कांय विद्वानाचें मत आसलें तरी सगळ्यांचेंच हेविशीं एकमत ना. जातकट्ठवण्णना हो ग्रंथ जातककथांच्या अभ्यासाचो मुखेल आदार जावन आसा. हो ग्रंथ इ.स. च्या पांचव्या शेंकड्यांत घडलो, अशें मानतात.

जातककथांच्या पुराय आंकड्याविशीं आयजूय मतभेद आसात. श्रीलंका, थायलंड (सयाम), ब्रह्मदेश ह्या देशांतल्या परंपरांप्रमाण सगळ्यो जातक कथा ५५० आसात. धर्मानंद कोसंबी हाच्या मतान त्यो कथा ५३४ आसात. जातकट्ठवण्णना हातूंत ५४७ कथा आसल्यो तरी कांय कथा पर्थून आयिल्ल्यान तर कांय कथा दुसऱ्या कथांत आस्पाविल्ल्यान हांचो खरो आंकडो उणो आसूंये, अशें म्हण्टात. ब्रह्मदेशांतल्या पगान हांगा ५५० जातककथा चित्रित केल्यात. इ.स.प. दुसऱ्या वा तिसऱ्या शेंकड्यांतल्या सांची, भारहुत आनी आंध्र प्रदेशांतल्या अमरावती हांगाच्या स्तूपांचेर जातक कथा चित्रित केल्यात.

'चरिया पिटक' ह्या खुद्दकनिकायाच्या निमाण्या भागांत ३५ पद्य जातक कथा आयल्यात. हातूंत ह्यो कथा स्वता गौतमबुध्द सांगता, अशें दाखयलां. 'जातकमाला' ह्या संस्कृत काव्यांत ३४ जातककथा आयल्यात. आग्नेय आशियांतल्या ५० जातकांचो एक झेलो आसून तातूंतल्यो जातककथा 'जातकट्ठवण्णना' ह्या ग्रंथांतल्या जातककथां परस वेगळ्यो आसात.

दरेक जातककथेची सुरवात 'एका काळार काशी राश्ट्रांत वाराणसी हांगा ब्रह्मदत्त राजा राज्य करतना बोधिसत्त्वान अमक्या अमक्या रुपान जल्म घेतलो', अशी जाता. देखीकः एके कथेंत तो हरणाच्या रुपान, दुसरे कथेंत सुण्याच्या रुपान, तिसरे कथेंत बैलाच्या रुपान, अशे तरेन जल्म घेत रावता.

दरेक जातककथा पांच भागांत वांटिल्ली आसता.

**१. पच्चुप्पन्नवत्थु:** म्हळ्यार वर्तमान काळांतली खबर. बुध्दाचे जिणेंत ज्यो घडणुको घडल्यो, त्यो हातूंत आस्पावल्यात. ह्यो कथा गौतम बुध्द आपल्या अनुयायांक सांगता, अशें हांगा आयलां.

**२. अतीतवत्थु:** गौतम बुध्दाच्या फाटल्या जल्माची कथा. जातक कथांतलो हो सगळ्यांत म्हत्वाचो भाग जावन आसा. हातूंत आयिल्ल्यो गाथाच जातक कथा जावन आसात.

**३. गाथा (पद्य):** ह्यो जातक कथांकडेन संबंदीत आसतात. हांचें नातें वर्तमान काळांतल्या कथांकडेन जोडिल्लें आसता. अशा गाथांक अभिसंबुध्द गाथा (बुध्दाक आत्मज्ञान प्राप्त जातकच ताणें म्हणिल्ल्यो गाथा) अशें म्हळां.

**४. वेय्याकरण वा अत्थवण्णना:** हातूंत गाथेंतल्या उतरांचो अर्थ आनी ताचेवेली टिका दिल्ली आसता.

**५. समोधन वा उपसंहार:** हातूंत बुध्दाच्या काळावेल्या पात्रांचो संबंद बुध्दाच्या पुर्वजल्मांतल्या कथेंतल्या पात्रांकडेन वा हालींच्या जल्मांतल्या व्यक्ती वा पात्रांकडेन जोडिल्लो दिसता.

जातककथांचें रुप लोकसाहित्याकडेन मेळटें-जुळटें आसा. तातूंत मनशांवांगडा सावदां-सुकण्यांच्योय काणयो येतात. जातकाची कथानकां विंगड विंगड तरांचीं आशिल्ल्यान विंटरनिट्झ ह्या अस्तंततेच्या विद्वानान ह्यो कथा सात वर्गांत वांटल्यात: १. वेव्हारीक नीती संबंदीच्यो कथा २. पशूकथा ३. विनोदी कथा ४. रोमांचकारी दीर्घकथा ५. नैतिक वर्णनपर कथा ६. कथन ७. धर्मीक कथा.

विंटरनिट्झान जातककथेच्या वर्णन शैलीचे पांच प्रकार सांगल्यात, ते अशे: १. गद्यवर्णन २. आख्यान-संवादात्मक वा संवाद आनी वर्णन हांची भरसण ३. दीर्घ विवरण- हाची सुरवात गाथेन आनी शेवट गाथेन जाता ४. एकाद्र्या विशयावेलो वचनांचो झेलो ५. महाकाव्य वा खंडकाव्य.

जातककथांचें आनीक एके तरेन वर्गीकरण करतात. तें अशें:

१. कांय कथा बायलांची निंदा करपी आसात. २. कांय कथा घरदार सोडून तपस्या करची, अशें सांगतात. ३. कांय कथा ब्राह्मणवर्गाची निंदा करतात. ४. कांय कथा कूटनीती शिकोवपी आसात.

जातककथांत रामायण, भागवत आनी महाभारत ह्या ग्रंथांतल्यो कथा येतात. हातूंत राजा दशरथ, राम, सीता, युधिष्ठीर (धर्म) विदुर आनी कृष्ण ह्यो व्यक्तीरेखा दिश्टी पडटात. जातककथा आनी पंचतंत्र हातूंतल्यो कांय कथा सारक्यो आसात. इसापाच्या नांवार मोडपी कांय ग्रीक बोधकथा हांगा दिश्टी पडटात. सोमसागराच्या कथा-सरित्सागरांतल्यो कांय कथा जातककथाच आसात. जातककथांत राम-कृष्णाच्योय कथा आयल्यात.

बुध्द स्वता राजकुंवर आशिल्ल्यान ताका राजनीतीची आवड आसली. तो धर्मसंस्थापक आसलो, तशेंच राजनीतिज्ञ आसलो. ताका लागून जातककथांक राजनीतीक म्हत्वाची सुवात मेळ्ळ्या. जातककथांनी जंय राजनीतीचो संबंद आयला, थंय तिचो धर्मीक भावनेकडेन संबंद दिसना.

जातककथांनी पुनर्जल्माची कल्पना खरी मानल्या. बौध्द धर्माप्रमाण

दरेक जीव यातना, दुखख भोगतना आत्मो, पिशाच्च, प्राणी, मनीस आनी देव ह्या पांच योनींत जल्म घेता. बोधिसत्त्व पयल्यो दोन योनी सोडून फुडल्या तीन योनींत जल्म घेता.

बौध्द धर्माच्या प्रसाराखातीर बुध्दाच्या अनुयायांनी जातककथांचो उपेग केलो. 'सध्दर्मपुंडरीक' ह्या ग्रंथांत तसो उल्लेख मेळटा. आशिया खंडांतल्या बौध्द धर्म प्रसाराखातीर जातककथांचो वांटो म्हत्वाचो थारला. इराण, अरबस्तान ह्या मार्गान ह्यो कथा युरोपांतूय पावल्यात. ब्रह्मदेश, सयाम, सिलोन, तिबेट, मंगोलिया, जपान ह्या देशांतूय जातक कथा पावल्यात. लॅटीन, फ्रेंच, इटालियन, स्पॅनीश, जर्मन, इंग्लीश, स्वीडीश, डच ह्या भाशांत जातककथांचे अणकार जाल्यात. वानरिन्द जातक, विळारक्त जातक सहिच्चम जातक, संसुमार जातक, संधिभेद जातक ह्यो पशूवर्गांतल्यो जातककथा खूब तोलामोलाच्यो आसून तांचो परदेशांतूय प्रसार जाला.

बौध्द धर्मांतले हीनयान आनी महायान ह्या दोनूय संप्रदायांनी जातककथांविशीं आदर बाळगिला. सातव्या शेंकड्यांत जपानांत उदयाक आयिल्लो, बौध्द धर्मांतल्या महायान पंथाचो फांटो, झेन पंथ हाचो भार ह्या जातककथांचेरूच आसा.

जातककथा ह्यो संवसारांतल्या कथा साहित्याचें मूळ आसा, अशें बेनफे ह्या जर्मनी पंडीतान म्हळां. एका इटालियन विद्वानान सिंदबादच्यो सफरी आनी अरेबियन नाइट्स हांचें मूळस्थान जातककथाच आसात, अशें सिध्द केलां. 'जातकट्ठवण्णना' ह्या ग्रंथाचें रोमन लिपींतलें संपादन व्ही. फाउसबोल युरोपीय विद्वानान केलां. हें लिखाण स खंडांत उजवाडाक आयलां (१८७७-९७). ह्या ग्रंथाचो सातवो खंड वळेरेचो आसून ती वळेरी डी. अँडरसन हाणें तयार केल्या. ह्या ग्रंथाचो जायत्या लेखकांनी केल्लो इंग्लीश अणकार ई. बी. कॉवेल हाणें संपादित केला (तीन खंड, १९४६). मराठींत चिं. वि. जोशी, आचार्य धर्मानंद कोसंबी आनी दुर्गा भागवत हांणी जातककथांचे अणकार केल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**जात्रा:** एकाद्रे देवतेच्या उत्सवाखातीर वा एकाद्र्या सत्पुरुशाचे पुण्यतिथीच्या वा जयंतीच्या निमतान वा एकाद्र्या तीर्थक्षेत्रांत, वर्सांतल्यान एका थारावीक दिसा लोकांचो जो धर्मीक मेळावो जमता, ताका जात्रा अशें म्हण्टात. इस्लाम धर्मांतल्या सत्पुरुशाचे पुण्यतिथी निमतान जो उत्सव जाता, ताका *'उरुस' (*)* अशें म्हण्टात. देवतेविशीं पूज्यभाव वा सत्पुरुशाविशीं आपलो आदरभाव परगटावपाखातीर भाविक लोक जात्रेक येतात. देवता वा सत्पुरुश हांचे आराधनेखातीर थंय न्हाण, दर्शन, पूजा, श्राध्द, भजन, खेळ, नाच, नाटक, मेळो, कालो, मिरवणूक, सर्ती, जेवण हे कार्यक्रम जातात.

जात्रेच्या काळांत ते ते देवतेचे खाशेले पूजोपचार जातात. तातूंत देवतेची रथांत वा पालखेंत वा सांगडांत बसोवन मिरवणूक काडटात. प्रथा आसल्यार हे देवतेचो लग्नसुवाळो लेगीत जात्रेच्या दिसांनी सगळ्या भक्तांचे उपस्थितींत मनयतात. जात्रा हो खास करून देव-देवतेचो वा सप्तुरुशाचो धर्मीक उत्सव आशिल्ल्यान तातूंत भाविकांनी देवाचें दर्शन घेवप, पूजा करप, आंगवण पावोवप, प्रसाद ग्रहण करप ह्या गजालींक खाशेलें म्हत्व आसता. बंगालांत नवरात्राच्या दिसांनी कालीक पशुबळी दिवपाची चाल आसा. महाराष्ट्रांतूय कांय देवींमुखार रेडो, बोकडो, कोंबो हांचे बळी दिवपाची प्रथा आसा. दक्षिण भारतांतूय पोलेरम्मा देवीची जात्रा नांवाजिल्ली आसून तिका रेड्याचो बळी दितात. पंढरपूरच्या विठोबाची यात्रा आषाढी आनी कार्तिकी एकादशीक मोट्या प्रमाणाचेर भरता. सबंद महाराष्ट्रांतल्या वारकरी आनी भजनी मंडळींची दिंडी पांयांनी चलत वा वाहनांत बसून हे यात्रेक जमता. हाका वारी म्हण्टात. ओरिसांत पुरी हांगा जगन्नाथाची व्हडली रथयात्रा जाता आनी थंय सगळ्या भारतांतल्यान लोक जमतात. हरद्वार प्रयाग (अलाहाबाद), उज्जैन आनी नासिक हांगा दर बारा वर्सांनी भरपी कुंभमेळो वा दर स म्हयन्यांनी भरपी अर्दकुंभमेळो ह्या भारतांतल्या म्हत्वाच्या जात्रांनी मोट्या प्रमाणांत लोक जमतात. कुंभपर्व हें एकदम पुण्यकारक असो समज आशिल्ल्यान लाखांनी लोक कुंभमेळ्यांत वांटो घेवन पवित्र तीर्थांत न्हाण घेतात.

जात्रेच्या ह्या मुखेल धर्मीक आंगावांगडाच तिका समाजीक, अर्थीक आनी संस्कृतीक अशींय आंगां आसात. जात्रेंत भोंवतणच्या खेड्यांनी तयार जावपी वस्तूंचो वेपार मोट्या प्रमाणाचेर जावन खेड्यांतल्या कारागीरांचो चरितार्थ चलता. जात्रेंत जाण्टे-नेण्टे, बायलां-दादले, भुरगीं त्या त्या सणा-परबेप्रमाण वेगवेगळे भेस करून व्हडा संख्येन वांटो घेतात आनी समाजीक जीणेचो अणभव घेतात. आदल्या काळांत येरादारीचीं साधनां उणी आशिल्ल्यान जात्रांतल्यान त्या त्या वाठारांत तयार जावपी वस्तूंक आनी मालाक खूब मागणी आसताली. अशे तरेन जात्रेक एक बरी बाजारपेठ म्हूण म्हत्व आशिल्लें आनी आयजूय कांय प्रमाणांत तें आसा. कपडे, आयदनां, खावपाचे जिनस, मिठाय, बैलगाडयो, जनावरां, खेळणीं ह्या वस्तूंचो वेपार जात्रांतल्यान मोट्या प्रमाणाचेर चलता. महाराष्ट्रांतल्यो कांय जात्रा जनावरांच्या वेपाराखातीर नांवाजल्यात. देखीक- नगर जिल्ह्यांतली कानिफनाथाची जात्रा गाढवांच्या वेपाराखातीर आनी नांदेड जिल्ह्यांतली मालेगांव हांगाची खंडोबाची जात्रा घोड्यांच्या वेपाराखातीर नामनेची आसात. ह्या खंडोबाचे जात्रेक लोक 'घोड्यांची जात्रा' अशें म्हण्टात.

जात्रांनी रातकाले, गवळणकाले, तमाशा, नाटकां, कुस्त्यो, बैलगाडयांच्यो सर्ती, सर्कस, चित्रपट, आकाशपाळणें, घुंवपी लांकडी घोडे, जादूचे खेळ ह्या करमणुकीच्या कार्यावळींचो आस्वाव आसता. जात्रेच्या निमतान कीर्तन, भजन, प्रवचन ह्या कार्यावळींक विंगड विंगड थरांतले लोक एकठांय जमतात.

जण एकल्या हिंदून जिवितांत एकदां तरी काशीची यात्रा करची, अशें म्हण्टात. तशेंच दरेक मुस्लिम मनशान मक्केची हाज यात्रा करची, अशें म्हण्टात. मदीना आनी करबला हांगाच्या यात्रांकूय इस्लाम धर्मांत म्हत्व आसा. अजमीर हांगाच्या चिश्ती ख्वाजा मुइनुद्दीन हाच्या नामनेच्या उरुसाक भारतांतले तशेंच विदेशांतले मुसलमान लोक व्हडा संख्येन येतात. दिल्लीचो निजामुद्दीन औलियाचो उरुस नामनेचो आसा. कांय उरुसांनी मुसलमानांवांगडा हिंदू धर्माचे लोकय व्हडा संख्येन वांटो घेतात. शीख धर्मांत शीख गुरुचीं जल्म आनी मरणस्थानां पवित्र अशीं मानतात. थंय शीख धर्माचे लोक थारावीक दिसा एकठांय जमतात. अमृतसर, नांदेड, आनंदपूर (पंजाब), पाटणा (बिहार) हांगाचे गुरुद्वारा तांचीं पवित्र तीर्थस्थानां जावन आसात. क्रिस्ती आनी ज्यू धर्मांत जेरुसलेमाक खाशेलें म्हत्व आसा. जेरुसलेमची यात्रा करप, हें तांचे जिणेंतलें म्हत्वाचें धर्मीक कर्तव्य अशें मानतात. क्रिस्ती धर्मांत बेथलीएम, नाजरेथ, रोम ह्या पवित्र स्थानांच्या यात्रांकूय म्हत्व आसा. बौध्द धर्मांत लुंबिनी, बोधगया (गया), सारनाथ, कुशिनगर हांगाच्यो यात्रा करप, पुण्यकारक अशें मानतात. जैन धर्मांत तीर्थंकरांचीं जल्म, निष्क्रमण, गिन्यान, निर्वाण आदी स्थानां तशेंच संमेदशिखर, मंदारगिरी, गिरनार, पावापुरी हीं सिध्द क्षेत्रां आनी अबू, शत्रुंजय पर्वत, श्रवणबेळगोळ, चंपापूर ह्या पवित्र स्थानांची यात्रा करप पुण्यकारक अशें मानतात. आदिवासी लोकांतूय तांच्या देवांच्या तशेंच आदिपुरसाचे जयंती, पुण्यतिथीनिमतान यात्रा जातात.

जगांतले सगळेच धर्म, पंथ, जाती, जमातींभितर थारावीक दिसा, थारावीक सुवातीचेर एकठांय जमून ते देवतेविशींचो, सत्पुरुषाविशीं, न्हंय, तळें, तशेंच अवतारी पुरुषांची समाधी ह्या स्थानांविशीं आपलो आदरभाव परगटावपाची प्रवृत्ती दिसून येता. देखून, जात्रा ह्यो सगळ्याच धर्मांत आनी समाजांत दिसून येतात. ह्या जात्रांच्या स्वरुपांत आनी कर्मकांडांत थोडो भोव फरक आसप सभाविक आसा.

भारतांतली बद्रीनाथ, जगन्नाथपुरी, रामेश्वर आनी द्वारका हीं चार धामां; काशी, प्रयाग आनी गया हीं त्रिस्थळी; अयोध्या, मथुरा माया ह्यो सप्तपुऱ्यो, बारा ज्योतिर्लिंगां, बावन्न शक्तीपीठां तशेंच नेपाळांतलो

पशुपतिनाथ, दक्षिणेतलें कांचीपुरम्, पक्षितीर्थ, तिरुपती आनी उत्तर भारतातलीं हरद्वार, हृषीकेश, वृंदावन, पुष्कर हीं पवित्र स्थानां जावन आसात. ह्या स्थानांची यात्रा करप, हिंदू धर्मांत खासा पुण्यप्रद, अशें मानतात.

गोंयांत सगळ्यां वाठारांनी जंय जंय देवळां आसात, थंय ल्हान-व्हड जात्रा जातात. ह्या जात्रांनी काले, नाटकां, दिवजां, सांगड, रथोत्सव, पालखी, विजयरथ अशे कार्यक्रम आस्पावतात. गोंयच्यो कांय खाशेल्यो म्हत्वाच्यो जात्रा अश्योः श्री बोडगेश्वराची जात्रा-म्हापशें, मारुतीची जात्रा-पणजे, श्री लईराईची होमखणाची जात्रा-शिरगांव, गड्यांची जात्रा- पैंगीण, काणकोण आनी साळ, वीरभद्राची जात्रा-सांगें आनी दिवचल, सत्र्यो-कुंकळ्ळी, श्रीनवदुर्गेची जात्रा- मडकय, श्री म्हाळशेची जात्रा- म्हाड्डोळ, श्रीमंगेशीची जात्रा-मंगेशी, श्री नागेशाची चैत्री पुनव-नागेशी बांदोडें, श्री शांतादुर्गेची जात्रा-कवळें, श्री रामनाथ जात्रा-रामनाथी, दत्तजयंती- सांखळी, नवो सोमार- दिवचल, श्रीदामोदर सप्ताह-वास्को, हरी मंदीर दिंडी- मडगांव, श्रीदामोदराचो गुलाल, जांबावले, पेडणेचो दसरो-पेडणें, सावयवेरेंचो कालो.

- कों. वि. सं. मं.

**जादूविद्या:** जादू ह्या शब्दाची उत्पत्ती वैदिक साहित्यांतल्या 'यातू' ह्या उतरावयल्यान जाल्या. हें उतर थंय व्यभिचार विद्या ह्या अर्थान वापरलां. जादू म्हळ्यार सैमाचेच गूण आनी नेम वापरूंक सादारण मनशाच्या नकळत असाध्य थारिल्ली गजाल साध्य करून घडयिल्लो चमत्कार. इंग्लीश भाशेंत जादूक 'मॅजिक' (Magic) अशें म्हण्टात. हो शब्द, मूळ पर्शियन 'मॅगी/मॅजी' (Magi) ह्या शब्दावेल्यान आयला.

कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत चौर्यकलेक जंमक विद्या अशें म्हळां आनी हे कलेचो वापर दुस्मानाच्या मनांत भिरांत निर्माण करपाखातीर कसो करचो, हेविशींच्या गुपितांची म्हायती दिल्या. अशे जादूचे प्रयोग दाखोवन केल्ल्या झुजाक ताणें शीतयुध्द म्हळां. कालिदासाच्या 'मृच्छकटिक' नाटकांत शर्विलक हें पात्र जादूविद्येचो जाणकार अशें रंगयलां, जाल्यार मुद्राराक्षस नाटकांत ऐंद्रजालिकाच्या भेसान वावुरपी हेराचें पात्र घालां. त्या वेळच्या समाजांत जादू आनी जादूगार हांचेविशीं कुतुहल आशिल्लें, अशें ताचेवयल्यान सिध्द जाता.

जातक ग्रंथांत पुराय तलवार गिळपी मायाकाराचो उल्लेख सांपडटा (३-२३८). ह्याच ग्रंथांत सदांच दुख्खी आशिल्ल्या महापनादकुमार नांवाच्या राजकुंवराचें मनोरंजन करप दोन जादूगार भंडुकण्ण आनी पंडुकण्ण हांणी केल्ल्या जादूच्या खेळांचें वर्णन मेळटा (४.३२४-३२५).

जादू ही मूळ भारतीय कला. उपरांत ती चीन, ईजिप्त हांगासावन युरोपमेरेन पावली. तरीपूण पूर्विल्ल्या काळांत जल्मल्ले हे कलेची उदरगत आनी प्रसार थंयपसून सतराव्या शतमानाच्या शेवटामेरेन जावंक पावलोना. ह्या देशांनी जरी राजा आसले, तरी इगर्ज आनी धर्मफुडारी हांकां चड मान आसतालो. तांच्या मतान जादू म्हळ्यार सैतानाचीं कृत्यां थारतालीं आनी जादूगारांक मेकळीक दिवप म्हळ्यार इगर्जीआड केल्लें बंड, अशें मानताले.

जादूविद्येवयली शास्त्रशुध्द म्हायती दिवपी इंग्लीश भाशेंतलें 'दी ॲनॅटॉमी ऑफ ले जार्दिमेन' नांवाचें पयलें पुस्तक ३०० वर्सांपयलीं छापिल्लें, पूण फुडल्या परिणामांची कल्पना आशिल्ल्यान बरोवप्यान 'होकस-पोकस ज्युनियर' (Hocus-Pocus Jr.) अशें टोपण नांव लायलां. जादूविद्येवयलें दुसरें पुस्तक 'डिस्कव्हरी ऑफ विचक्राफ्ट' (Discovery of Witchcrat) हें सोळाव्या शेंकड्यांत कॅन्टीश न्यायाधीश रॅजिनाल्ड स्कॉट हाणें बरयिल्लें; तातूंत जादू म्हळ्यार सैतानाचो पालव घेवन केल्ले चमत्कार न्हय, जाल्यार विज्ञानाचो आदार घेवन फकत लोकांचे करमणुकीखातीर केल्लो शास्त्रीय प्रयोग, अशें इगर्जीच्या जाळवणदारांक आनी हेर लोकांक पटोवन दिवपाचो यत्न केल्लो. 'द ॲनॅटॉमी ऑफ ले जार्दिमेन' ह्या पुस्तकाच्यो सगळ्यो प्रती इगर्जीच्या हुकमावयल्यान जाळून उडयल्यो.

'द इंडियन रोप ट्रिक' (भारतीय दोरयेवयलो चमत्कार)हेविशीं इतिहासांत बऱ्याच लोकांनी बरोवन दवरलां. हातूंत नामनेचो भोंवडेकार अबू अहमद इब्न बतुता (१३०४-१३७७) आनी त्या वेळावयलो दिल्लीचो पातशाह जहांगीर हाचोय आस्पाव आसा. दरेकाचे बरपावळींत विंगड विंगड वर्णनां सांपडटात, हाका लागून हो खेळ वा चमत्कार म्हळ्यार कोणाच्या तरी कल्पनेचो खेळ, अशें मत नामनेचे सगळे जादू पंडीत उक्तायतात. १८७९ त प्रिन्स ऑफ वेल्स हाचे दूत भारतांत आयले आनी हो खेळ राजामुखार करून दाखयतल्याक व्हड इनामां फाव जातलीं अशी घोशणा करीत भारतभर भोंवले, पूण तांकां निर्शेवन पर्थून वचचें पडलें. उपरांत संवसारांतल्या बऱ्याच नामनेच्या जादूगारांनी आनी संस्थांनी ह्या प्रयोगाखातीर इनामां जाहीर केलीं, पूण असो खेळ करून दाखोवपी कोणूच मुखार आयलो ना.

निमाणे फावट २५,००० रुपयांचें इनाम २० ऑक्टोबर १९४८ दिसा कलकत्त्याचे भोंवडेर आयिल्ल्या जॉन बूथ ह्या नामनेच्या जादूगारान 'स्टार ऑफ इंडिया' ह्या नेमाळ्याचेर जाहीर केलें. बंगाल रेडिओवयल्यानूय तश्यो सुचोवण्यो प्रसारित केल्यो, पूण कांयच उपेग जालोना.

वीसाव्या शेंकड्यांत जादूकलेक प्रतिश्ठा मेळोवन दिवपाचें श्रेय फ्रेंच जादूगार रॉबर्ट हुदीन हाका फाव जाता. जादूच्या इतिहासांत ताका आर्विल्ल्या जादूचो जनक अशें म्हण्टात. हजारांनी वर्सां संवसारांतल्या धर्म मंदिरांनी जी कला बंदिस्त करून दवरिल्ली, तिका १९ व्या शतमानांत हुदीन हाणें मुक्तताय मेळोवन दिली. विज्ञानाचे बुन्यादीचेर ताणें हे कलेची उबारणी केली. तो मुळचो शास्त्रज्ञ. लोहाकर्शणशास्त्राचेर ताणें बरोच अभ्यास केल्लो. त्या काळांत ताणें आपल्या दाराचेर विजेची बॅल बसयल्ली. विजेर चलपी घडयाळांची निर्मणी करून आपल्या सोदाक भांगरापदक मेळयल्लें. स्मी बॅटरी (smee battery), उज्याचो धोको सूचित करपी यंत्र, बोटींचो वेग मेजपी यंत्र अशा विंगड विंगड यंत्रांचो सोद लावन ताणें जायतीं प्रशस्तीपत्रकां मेळयिल्लीं. स्वयंचलित बावल्यो (automata dolls) ही ताचीच निर्मणी. ताणें बरयिल्लें कॉंफिदांस दँ प्रेस्तिदिजितातोर' (Confidences d'un prestidigitator) हें पुस्तक त्या काळांत बरेंच गाजलें.

आयज जायते जादूगार मनोरंजनावांगडा समाजप्रबोधनाचोय वावर करीत आसात. विदेशांत जॅम्स रांडी, ज्योन स्कार्न हे समाजांतल्या अंधश्रध्दांचेर उजवाड घालपाचो वावर करतात.

जादूमळार तरेकवार फांटे आसात. कांय जाण फकत पत्त्यांचे जादू करतात, जाल्यार कांय जाण दोरयेचे, कांय जाण नाण्यांचे जाल्यार कांय जाण लेसांचे. ह्या दरेक मळार बरेच नामनेचे जादूगार आसात.

ज्योरझ् मेलिएँझ (George Melies) हो युक्तिचित्रणाचो (trick photography) जनक जावन आसा. युक्तिचित्रणाची पध्दत वापरून ताणें १८९६ त 'द व्हॅनिशिंग लेडी' ह्या नांवाचो चित्रपट निर्मिलो.

हॅरी हुदिनी (Ehrick Weiss १८७४-१९२६) ह्या अमेरिकन जादूगाराक संवसारांतलें खंयचेंच कुलुप बंदिस्त करूंक शकलेंना. नामनेचो रहस्यकथाकार सर आर्थर कॉनन डॉयल ह्या ताच्या इश्टान हुदिनीक बंदिस्त अवस्थेंतल्यान सुटपाखातीर कोण तरी प्रेतात्मो पालव दिता, अशें मत उक्तायलें.

संवसारांत सद्याक जादूच्यो जायत्यो संस्था आसात. तातूंत नामनेची म्हळ्यार 'इंटरनॅशनल ब्रदरहुड ऑफ मॅजिशियन्स'. हिची थापणूक १९२२ त जाली. तिचें मुखेल कार्यालय अमेरिकेच्या ओहियो राज्यांत आसा आनी तिच्यो संवसारभर शाखा आसात. हाचे लाखांनी सदस्य सगळेकडेन आसात. गोंयची पयली जादूची संस्था म्हळ्यार 'रुम ऑफ मिस्ट्री'. हिची थापणूक १९७७ त जाली. सुमार २० गोंयकार जादूगार तिचे सदस्य आसात.

भारतांत जादूविद्येक मान मेळोवन दिवपी जादूगार म्हूण ॲंडी जॉसेफ हाचें नांव घेतात. भारत स्वतंत्र जाल्याउपरांत इंग्लंडाक वचून राविल्ल्या

ह्या अँग्लो इंडियन जादूगारान जादूचें बरेंच साहित्य निर्मिलां.

नामनेचो लेखक चार्लस् डिकन्स, सातवो एडवर्ड राजा, बेंजामिन फ्रँकलीन, अब्राहम लिंकन, सर आर्थर कॉनन डॉयल, बेल्जियमची राणी हेन्रीयेता, जोधपूरचो निमाणो महाराजा, डेन्मार्कचो राजा नुड हे सगळे छंद म्हूण जादू करताले.

जादूविद्येंत भारतांतल्या बऱ्याच जादूगारांनी नामना जोडल्या. पी. सी. सरकार, के. लाल, के. लेले, रघुवीर भोपळे (जादूगार रघुवीर), एल्.के. शहा, चंद्रकांत सारंग, डी. एल्. कुलकर्णी, जंबूप्रसाद शर्मा हे भारतांतले नामनेचे जादूगार आसात. गोंयांत डी. सतीश आनी मार्को ह्या गोंयकार जादूगारांनी देशांत तशेंच परदेशांत जादूचे खेळ केल्यात. गोंयांत सुमार २० जादूगार आसात. 'रूम ऑफ मिस्ट्री' ही गोंयकार जादूगारांची संस्था गोंयांत कार्यरत आसा.

- डी. सतीश

**जानवें:** मुंजीच्या वा उपनयन संस्कारावेळार बटूच्या आंगार जो सुताचो पोड घालतात ताका जानवें म्हण्टात. जानवें भट वा पुजाऱ्यान मंत्रायल्लें आसता. तें मनशाच्या आंगार धर्मशास्त्रांत सांगिल्ल्या रिती आनी नेमांक अनुसरून घालतात.

जानव्याक संस्कृतभाशेंत 'यज्ञोपवीत' अशें म्हण्टात. याज्ञवल्क्यान जानव्याक 'ब्रह्मसूत्र' म्हळां. शास्त्रकार जानव्यासंबंदी तरेकवार अर्थ लायतात.

१. यज्ञ+उपवीत-यज्ञार्थं उपवीतं।

अर्थ- जानवें घाल्याउपरांत यज्ञ करपाचो अधिकार फाव जाता.

ब्रह्मदेवान जानव्याची उत्पत्ती केली आनी तोच ह्या जानव्यांत रावता, असो एक समज आसा. पूर्विल्ल्या काळांत काळवीटाचें चामडें आनी वस्त्र 'जानवें' म्हूण वापरताले. पूर्विल्ल्या काळांत बायलो जानवें घालताल्यो. गोभिलगृह्यसूत्रांत (२.१.१८) लग्नावेळार व्हंकलेन जानवें घालचें, अशें म्हळां.

समाजांतल्या विंगड विंगड थरावेले लोक जानवें घालतात. मनून आपले मनुस्मृतींत (२.४४) ब्राह्मणान कापसाच्या सुताचें, क्षत्रियान तागाच्या दोऱ्याचें, वैश्यान लोकरेच्या सुताचें जानवें वापरचें, अशें म्हळां. अशे तरेन जानवें घालपाची पध्दत सद्या तरी ना.

जानवें कापसाच्या सुतान तयार करतात. हें सूत ब्राह्मण वा ब्राह्मण कुमारिकेन काडिल्लें आसचें. जानवें तीन पदरी आसूंक जाय. तीन धागे एकठांय करून ताचो एक पदर करतात. अशे तीन पदर एकठांय करून गांठ मारतकच जानवें तयार जाता. जानव्याक जी गांठ आसता, तिका 'ब्रह्मगांठ' म्हण्टात. ही गांठ मारतना 'त्र्यंम्बकंयजामेह सुगंधिं' हो ऋग्वेदांतलो मंत्र म्हणून गांठ मारतात.

जानवें कितलें लांब आसचें? कशें आसचें? हाचेविशीं विंगड विंगड शास्त्रकारांनी विंगड विंगड अर्थ लायल्यात.

जानवें तयार करतकच ताचेर मंत्रांनी संस्कार करतात. उपरांत तें सुर्याक दाखोवन धारण करतात. जानवें धारण करतना फुडलो मंत्र म्हण्टात.

यज्ञोपवितं परमं पवित्रं प्रजापतेर्यत सहज पुरस्तात्।
आयुष्यमग्र्यरं प्ररिमुञ्च शुभ्रं यज्ञोपवीतं बलमस्तु तेजः ।।

**अर्थः** पुराय पवित्र, पयलीं ब्रह्मदेवासयत उत्पन्न जाल्लें, आयवर्धक, सगळ्या वस्तूंत धवें आनी श्रेश्ठ अशें जानवें तूं धारण कर. तेंच तुजें बळ आनी तेज आसा.

भृगुसंहितेंत मुंज जाल्ल्या बटून एक जानवें घालचें तर गृहस्थाश्रम आपणायिल्ल्यांनी दोन जानवीं घालचीं, अशें म्हळां.

जानवें खांद्यावेल्यान काडचें न्हय. सुतक आसतना, चांडाळ, भश्टी बायल वा मड्याक स्पर्श जाल्यार तशेंच मुततना वा परसाकडेन वतना जानवें कानाक लायलेंना जाल्यार मनशाक दुसरें जानवें घालचें पडटा.

जानवें ब्राह्मणाच्या ब्रह्मतत्त्वाची आनी वेदाध्ययनाची शिटकावणी दिता. साकार जाल्ल्या परमेश्वराक यज्ञ म्हणटात. ब्रह्म हें निराकार आशिल्ल्यान तें तेज ब्राह्मणांत देवता देखून जानवें घालतात.

जानव्याचे तीन पोड (पदर), आवय, बापूय आनी गुरु हांचेविशीं आशिल्ल्या रिणाचें प्रतीक आसात. संवसारांत सत्व, रज आनी तम अशे तीन गूण आसात. हेवूय तीन पोडयुक्त जानवें दाखयता.

जानवें बोंबले मेरेन पावता अशें दवरचें. बोमलेच्या वयर वा सकल पावत अशें दवरचें न्हय. नाजाल्यार आयुश्य उणें जाता. केल्लें तप फुकट वता अशें कात्यायनी गृह्यसूत्र सांगता.

किरिस्तांव धर्मीच्या, रोमन कॅथलीक पंथांत कमराक लोकरेचें सूत बांदतात. ताका तीन गांठी आसतात. प्रोटेस्टंट पंथांत दोरो कमराक बांदतात. इंग्लंडच्या धर्माचार्याचे कमराक दोरो आसता.

मुसलमान धर्मांत सुत्ररुप आशिल्लो गंडो बांदतात. मौलवी लोक पिराय, भलायकी आनी बुद्द मेळपाखातीर गंडो बांदतात. 'ताजे' नांवाच्या श्राध्दप्रकारान तांबड्या रंगाचो कापडा कुडको नाजाल्यार तांबडो दोरो खांद्यार दवरतात. तशें केल्यार मृतात्म्याक सद्गती मेळटा, असो समज आसा. हाज यात्रेच्या वेळार धवो कापडाकुडको वा धवो दोरो गळ्यांत बांदतात.

पारशी धर्मांत सूर्याक जानवें दाखोवन ताच्या खाशेल्या मंत्रोच्चारान जानवें वा दोरो घालपाचो विधी आसा.

गुरुगोविंदसिंहाच्या 'पंथप्रकार' ह्या ग्रंथांत शीख पंथांत जानवें घालपाची पध्दत आसली हेविशीं स्पश्टीकरण मेळटा. त्यो वळी फुडलेतरेन आसात.

पीत जनेऊँ मनो वदति शशी पै विजुरी विजुरी भ्राजै।
पीत पुनीत उपरनार्धोती रवि नव छाजै

।। पंथप्रकाश ।।

बुध्दगयेच्या बुध्दाच्या गळ्यांत जानवें आसा. लामा पंथीय लोक मात कमराक लोकरीचें सूत बांदतात. जैन लोकांतूय जानवें घालपाची चाल दिसता.

प्रत्येक धर्मांत जानव्याविशींचे उद्देश, विधी आनी प्रकार विंगड विंगड आसले तरी सगळ्या धर्मांनी पवित्र भावनेन दोरो, सूत वा जानवें घालपाचे विधी आसात.

- माधव गोविंद भुस्कूटे

**जानेवारी:** ग्रेगोरियन कॅलेंडरांतलो एकतीस दिसांचो पयलो म्हयनो. जानूस ही दोन तोंडां आशिल्ली, दारां-जनेलांची रोमन देवता आसा. तिचेवयल्यान 'जानेवारी' हें नांव पडलें. इ.स.प. ७०० च्या सुमाराक नूमा पाँपिलियस हाणें १० म्हयन्यांच्या रोम कॅलेंडरांत जानेवारी आनी फेब्रुवारी म्हयन्यांची भर घाली, अशी कथा आसा. ताणें जानेवारीचे ३० दीस धरिल्ले; इ.स.प. ४६ वर्सा ज्युलियस सीझर हाणें ताचे ३१ दीस केले. इ.स.प. १५३ मेरेन जानेवारी हो वर्साचो इकरावो म्हयनो, अशें मानताले. रोमन लोक इ.स.प. २५१ सावन, स्कॉटलंडांत इ.स. १६०० सावन आनी इंग्लंडांत १७५२ सावन एक जानेवारी हो वर्सारंभ व्हडा दबाज्यान आनी थाटामाटान मनोवंक लागले, आनी तो एक लोकप्रिय उत्सव जालो.

हिंदू पंचांगाप्रमाण जानेवारी म्हयनो पौष-माघ म्हयन्यांत येता. १४ जानेवारीक सूर्य मकर राशींत वता, २ जानेवारीक पृथ्वी उपबिंदूम्हन्यांत म्हळ्यार तिचे कक्षेंत सूर्यापसून चड लागीं आसता आनी तिचो वेग चडांत चड आसता.

जानेवारी म्हयन्यांत येवपी राश्ट्रीय म्हत्वाचे कांय दीस अशेः ११ जानेवारी- लाल बहादुरशास्त्री पुण्यतीथ; १२ जानेवारी- स्वामी विवेकानंदाचो जल्मदीस; २३ जानेवारी- सुभाषचंद्र बोसाचो जल्मदीस; २६ जानेवारी- भारतीय प्रजासत्ताक दीस आनी ३० जानेवारी- महात्मा गांधी पुण्यतीथ.

- कों. वि. सं. मं.

**जायः** (मराठी- चमेली, चंबेली; हिंदी- चमेली, मोतिया, ज्राति; गुजराती- चंबेली; कर्नाटक- जाति मल्लिगे, अज्जिगे; संस्कृत- मालती,

जातिपुष्प; इंग्लीश-स्पॅनिश जॅस्मिन, कॉमन जॅस्मिन; लॅटीन- जॅस्मिनम ऑफिसिनेल फार्मा ग्रॅंडिफ्लोरम, जॅस्मिनम ग्रॅंडिफ्लोरम; कूळ- ओलिएसी).

ही वाल मूळची वायव्य हिमालयांतली. भारतांत ती सगळ्या वाठारांनी जाता. पूर्विल्ल्या काळासावन हे वालीची खबर आर्य आनी अरब लोकांक आशिल्ली, हें संस्कृत साहित्यांतल्यान दिसून येता. हे वालीक लांब ताळयो येतात आनी लागसार जो आदार मेळटा, ताचेर त्यो चडटात. एके ताळयेक सात ते इकरा पानां आसतात आनी तातूंतलें निमाणें पान हेर पानांपरस व्हड आसता. ताळयेच्या तोंकांक वा पानांचे ताळयेच्या मदल्यान, ताळये परस लांब फुलांची ताळी येता. तिका नाजूक, धवीं आनी पोंदचे वटेन जांबळीं आशिल्लीं, पांच पाकळ्यांचीं वासाळ फुलां येतात.

सपाट प्रदेशांत तेचपरी सुमार ३,००० मी. उंचायेच्या दोंगराळ भागांत ही वाल व्हड प्रमाणांत दिश्टी पडटा. युरोप आनी भूमध्य दर्याच्या लागसारच्या देशांनी ह्या फुलांपसून व्हड प्रमाणांत वासाळ द्रव्य काडटात. भारतांत राजस्थान, कुमाऊँ, मध्य प्रदेश आनी उत्तर प्रदेश ह्या वाठारांत कांय कडेन वासाळ द्रव्यांच्या उत्पादनाखातीर व्हड प्रमाणांत जायांची लागवड करतात.

हे वालीक पिकाळ आनी उदक सांठून उरना, तसली जमीन लागता. मार्च-एप्रिल ह्या म्हयन्यांत जमीन खणून माती बारीक करून दवरतात. उपरांत जून म्हयन्यांत आळीं करून तातूंत जायांच्या वालींच्यो ताळयो १.५-३ मी. अंतराचेर लायतात. जशी ही वाल वाडूंक लागता, तसो माटव घालून तिका माटवार चडयतात. जुलय ते सप्टेंबर म्हयन्यांत फुलां येवंक लागतात.

बऱ्यांत बरीं वासाळ द्रव्यां, शाबू, सौंदर्य प्रसाधनां, दंतमंजनां, धूप, तंबाकू आदी वस्तू तयार करपाक जायांचें तेल वापरतात. जायांच्या फुलांतल्यान सुमार ०.०२५% ते ०.०३०% अत्तर मेळटा. हे वालीचीं मुळां वांटून नायट्यार (कातीक जावपी एक रोग) लायतात. ताचीं पानां चाबल्यार तोंडाचे विकार कमी जातात. पानांचो रोस 'किल्ली' ह्या रोगाक लायतात. काती रोग, दोळ्यांचीं दुयेंसां, तकली उसळप, कान दुखप आदी दुयेंसांचेर ह्या झाडापसून तयार केल्लीं तेलां आनी अत्तरां उपेगी पडटात. कृमिनाशक, मूत्रल (मूत निवळ करपी) आनी मासिक पाळीच्या दुखण्याचेर ही वाल उपेगी पडटा. जायेंत 'जॅस्मिनीन' हें अल्कलॉइड आसता.

हे वालीक तांबेरा, पानावेले दाग आनी काजळी हे रोग जातात. तेन्ना तांचेर बोर्डो मिश्रण (कॉपर सल्फेट आनी चुनो) वा हेर रोगनाशक द्रव्यांचो फवारो मारतात.

गोंयांत जायांची लागवड करतात. म्हाड्डोळ आनी बोरये ह्या दोन वाठारांनी ही लागवड चड प्रमाणांत करतात. गोंयांत जावपी जायांचो उपेग देवाक फुलां ओंपपाक वा मकराचे सजावटीक आनी बायलां केंसांत माळपाखातीर वापरतात.

**धवी जायः** (लॅटीन- जॅस्मिनम ऑफिसिनेल). ही वाल झोंपानी आनी मोडणां घेत वाडटा. उश्ण आनी समशितोश्ण कटिबंधांतल्या हवामानांत हे वालीची लागवड जाता. ही वाल मुळची इराण आनी काश्मीर ह्या वाठारांतली आसून थंय ती ९३० ते २७९० मी. ऊंच मेरेनच्या वाठारांत वाडटा. जाय हो, हे मूळ वनस्पतीचो प्रकार आसून ताचे आनीकूय हेर प्रकार आनी उपप्रकार आसात. हे वालीक उण्या प्रमाणांत फुलां येतात. हे जायेचें, चार वा पांच पाकळ्यांचें फूल कोरान धवें आनी वासाळ आसता.

**रानजायः** (लॅटीन-क्लेरोडेंड्रॉन इनर्मी; कूळ- व्हर्बिनेसी). हें झाड भारतांत दर्यादेगेवेल्या वाठारांत जातात. ह्या झाडाक भरपूर खांदयो येतात आनी त्यो मेळत तश्यो पसरतात. ताचीं पानां लांबशीं, वाटकुळीं ४×२ सेंमी. लांब, काळसर पाचवीं आसतात. तीं कोडू आनी विखारी आसतात. ह्या झाडाक लांब, धवीं आनी नळये आकाराचीं फुलां येतात. ह्या झाडाचीं मुळां उकडून तयार केल्लें तेल, संधीवाताचेर गुणकारी आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**जायफळः** (मराठी-जायफळ; संस्कृत- जातिफलम्, मालतीफलम्; कन्नड- जाजीकाई; इंग्लीश- नटमेग; लॅटीन-मिरिस्टिका फ्रॅग्रॅन्स; कूळ- मिरिस्टिकेसी). आशियाचे अस्तंतेक आशिल्ल्या मोल्यूका जुंव्यावेलो हो रुख पूर्विल्ल्या काळासावन थंय आसा आनी थंयच ताचें मूळ थळ आसा. दोनूय उश्ण कटिबंधीय देशांत ताची लागवड करतात. मलाया वाठारांतूय ताची व्हड प्रमाणांत लागवड जाता. भारतांत तमिळनाडू राज्यांत (निलगिरी, कोईमतूर, सालेम, तिनेवेल्ली, मदुराई, कन्याकुमारी आदी वाठारांत) लागवड करतात. उश्ण आनी ओलसार हवा ह्या रुखांक बरी मानवता. देखून अशा जाग्यांनी शास्त्रीय उद्यानांत आनी कोंकण, कारवार, केरळ आनी आसाम ह्या वाठारांत हे रूख लायतात. आंध्र प्रदेश (अराकू दरी) आनी केरळ (वायनाड) ह्या वाठारांत ह्या रुखाची वाड बरी जाता. ह्या रुखाची लागवड बियांपसून जाता. रोप्यांक सावळेखातीर केळी, ग्लिरीसीडिया असलीं झाडां लायतात. काफी, च्या, नाल्ल, सुपारी आनी रबर आदींच्या मळ्यांत जायफळ मिश्र पीक म्हूण लायतात. वेस्ट इंडीज ह्या वाठारांत कलमां लावन हो रुख वाडोवपाच्या प्रकाराक यश मेळ्ळां.

संस्कृत वाङ्मयांत इ.स. ६०० पसून जायफळाचो उल्लेख मेळटा. जायफळाच्या मुळच्या संस्कृत नांवाकडेन भारतांतलीं आनी ब्रह्मदेशांतलीं जायफळांचीं नांवां सारकेपण दाखयतात. हाचेवेल्यान हो रुख मलाया वाठारांतसून बऱ्याच पयलींच्या काळांत आयला आसूंक जाय. जायफळाच्या वंशांत (मिरिस्टिका) वट्ट ८० जाती आसात.

ह्या रुखाची उंचाय णव ते बारा मी. आसता. ह्या रुखाक बारय म्हयनें पानां आसतात. ह्या वासाळ रुखाक वेगळायल्लीं लिंगां आसतात. ताची साल गडद उदी कोराची, काळसर आनी फटी आशिली, पानां चिवट, एकाफाटल्यान एक, सादीं, पारदर्शक तिबे आशिल्लीं, लांबशीं-वाटुकळीं वा भाल्यासारकीं आसतात. डिसेंबराच्या सुमाराक चवराभशेन, तुऱ्याचेर लेव हळडुवीं आनी वासाळ फुलां येतात. फुलां भितर फकत तीन संदलां आनी एकसंघ केसरदलां वा उर्ध्वस्थ किंजपूट आसता. जायफळाचो रुख रोयल्या उपरांत तो स ते सात वर्सांचो जायमेरेन नर काय मादी हें कळना. बरेच फावट जायत्या वर्सां उपरांत नवरुखाचेर स्त्री-पुष्पां येवंक लागतात. नर रुखाचें प्रमाण खुबूच आसता. तांचो उपेग तितलोसो जायना. देखून तातूंतले थोडे रुख कापून उरिल्ल्या रुखांचेर मादी रुखाच्यो खांदयो लावन कलम करतात. ह्या रुखाक ६ ते ९ सेंमी. लांब, वाटुकळीं वा पेराभशेन मांसाळ एककुडीं, जोडयेन वा घोंसानी मृदुफळां येतात. हीं फळां सुर्वेक हळडुवीं आनी उपरांत तांबसार जातात. ताची बी लांबोडी वाटकुळी आसून ताचें भायलें कट्टें गडद पिंगश्या कोराचें आनी शिंदूरी कोराचे जाळीदार पत्रीन (पड्डो) धांपिल्लें आसता. हाकाच जायपत्री म्हण्टात.

जायफळाच्या झाडाक सात वर्सां उपरांत फुलां येवंक लागतात. फुडें पंदरा ते वीस वर्सां मेरेन दरेका वर्सा फळां येवंक लागतात. सत्तर ते ऐंशीं वर्सांच्या रुखाकूय फळां येतात अशीं कांय उदाहरणां आसात. दरेका रुखाक दर वर्सा सुमार १,२०० फळां येतात. पूण कांय रुखांक वर्साक ४,००० मेरेन फळां येतात. भायल्या देशांनी २०,००० मेरेन जायफळाचीं फळां येवपाचो विक्रम घडला. ईस्ट इंडीयन (इंडोनेशिया) जायफळांक बरीच नामना आसा.

जायफळांक उग्र वास आसता आनी तीं रुचीन तिखट आसतात. जायपत्री तिखट, कोडसार रुचीक आनी उश्ण आसता. जायफळ तुपांत दवरल्यार चड वर्सां तिगूंक शकता. जेवणा-खाणाच्या विंगड विंगड पदार्थांनी तेचपरी विड्यांत रुच आनी वास येवपाखातीर जायफळांचो उपेग करतात. जायफळ कामोत्तेजक, उत्तेजक, स्तभंक (आतकड्यांचें आकुंचन करपी, आदार दिवपी) आनी वायेचो नाश करपी आसा. तकली

उसळप, न्हिदेचो त्रास जावप, पातळ परसाकडे जावप, ओंकारी येवप, खेळण्यो येवप, पोट फुगप आदी विकारांचेर जायफळाचो उपेग करतात. जायफळांपसून काडिल्लें तेल वखदी आसता. जायफळाच्या हेर जातींतलें बियांचें तेल दिवे जळपाक वापरतात. लांबशीं आनी अशीर जायफळां वेगळ्या जातीचीं (मिरिस्टिका मालाबारीका) आनी उण्या प्रतीचीं आसतात. जायफळांत स ते सोळा टक्के उडून वचपी तेल आसता आनी तातुंतूच वखदी गूण आसतात. मसाल्यांत आनी वखदांत, गर आनी पत्री हांचो उपेग सारकोच करतात. जायफळांत 'मिरिस्टीसीन' हें विखारी द्रव्य आसता आनी तें घेतल्यार मनशाच्या यकृताचेर वायट परिणाम जाता. इबाडिल्ल्या जायफळापसून चरबीयुक्त पदार्थ काडटात. ताका जायफळांचें लोणी म्हण्टात. ह्या लोणयाचो उपेग शाबू तयार करतना ताका वास हाडपाखातीर तेचपरी संधीवात, तिरपप (मुरगळप) आदींचेर लावपाच्या मलमांत करतात. रुखाचे सालीपसून 'कीनो' नांवाचो दीख मेळटा. ताचीं पानां, फुलां आनी साल हांचेपसून उडून वचपी तेल मेळटा. जेवणाचे पदार्थ, पेय, शाबू, तंबाखू, दांत घांसपाचो पिठो, वासाळ प्रसाधनां, केंसाक घालपाचीं तेलां, हातूंत गरांपसून वा पत्रीपसून काडिल्ल्या तेलाचो उपेग करतात. लोणचें, मुरांबे आदी करपाक पिकिल्ल्या फळांच्या सालींचो उपेग करतात.

जायफळाचे लागवडीखातीर पिकाळ आनी खोल जमीन, उश्ण आनी पावसाळी वारें आनी वर्सुकी सुमार १५०-१७५ सेंमी. पावस लागता. सुर्वेक बियांपसून रोंपे किल्लोवन काडटात. उपरांत ते ६०-९० सेंमी. ऊंच जातकच आपल्याक जाय त्या जाग्यार ८-१० मी. अंतराचेर लायतात.

- कों. वि. सं. मं.

**जायरात:** अमुकूच असो उद्देश मतींत घेवन विंगड विंगड संपर्क माध्यमावरवीं, खंयचोय संदेश लोकांमेरेन पावोवप हाका जायरात अशें म्हण्टात. जायरातीवरवीं प्रभावीत जावन वा खबर जावन लोकांनी ह्या संदेशावरवीं उत्पादित वस्त वा सेवा घेवची हो जायरातीफाटलो हेत आसता.

**इतिहास:** मुद्रणकलेचो सोद लागचेआदीं मालाची जायरात बाजारांत आड्डून वा पेरगांव घालून करताले. पॉपेई आनी रोम हांगा इ.स.प. काळांत दुग्धशाळा, पावभट्टी, चामाराचीं दुकानां, सोन्याचीं दुकानां आनी हेर दुकानां हातूंत चित्रांचो आस्पाव आशिल्ले जायरातीचे बोर्ड दवरताले. भाड्यान दिवपाची सुवात, शेणिल्ल्यो वस्ती, बॉक्सिंग आनी हेर खेळ हांचेविशींची जायरात वण्टीचेर पितारून करताले. ब्रिटीश म्यूझीयमांत पुर्विल्ल्या ईजिप्तांतल्या भूर्जपत्रावयली एक जायरात आसा. तातूंत शेम नांवाच्या एका पळून गेल्ल्या गुलामाक सोदून दितल्याक एक भांगराचें नाणें इनाम मेळटलें, अशें जाहीर केल्लें दिसून येता.

पंदराव्या शेंकड्यांतलो मुद्रणकलेचो सोद ही जायरातीच्या इतिहासांतली एक म्हत्वाची घडणूक. १४७७ त इंग्लंडांत प्रार्थना पुस्तकाच्या विकपाविशीं पयलीं छापील जायरात हस्तपत्रकाच्या रुपान उजवाडाक आयली. खबरेपत्रांतली पयली जायरात १६२५ त लंडनांतल्या एका खबरेपत्राच्या निमण्या पानार छापून आयली. अठराव्या शेंकड्यांत हस्तपत्रकां चड प्रमाणांक प्रचलित जालीं आनी तातूंत चित्रांच्या जायरातींक वाव मेळ्ळो. अमेरिकेंत खबरेपत्रांतल्या जायरातींक १७०४ त सुरवात जाली. १८१२ त इंग्लंडांत आनी १८४१ त अमेरिकेंत पयले जायरात वितरणसंस्थेची थापणूक जाली. फ्रांसांत १८७५ त एकदम ऊंच पांवड्याचीं वण्टीपत्रकां तयार जावपाक लागलीं. १८७७ त इंग्लंडांत Pears हे शाब्बाचे कंपनीन मिय्येचे बोमाडे नांवाच्या नामनेच्या तैलचित्राचो वापर आपल्या वण्टीपत्रकाखातीर केलो.

रेडिओवेल्यो जायराती इंग्लंड-अमेरिकेंत १९२० त सुरू जाल्यो आनी ते उपरांत वण्टीपत्रकां, फळ्यांवयल्यो जायराती हांचो प्रसार नेटान वाडलो. टपालावरवींय जायराती करपाक सुरवात जाली. १९२०-३० ह्या काळांत जायरातीच्या मळार बाजाराविशींच्या संशोधनान (Marketing Research) प्रवेश केलो आनी दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत जायराततज्ञ मानसशास्त्र आनी प्रवर्तन-संशोधन (Motivational Research) हांचोय आदार घेवपाक लागले. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत जायरातीखातीर दूरदर्शनाचो वापर जावपाक लागलो.

भारतांत १७९० सावन खबरेपत्रांतल्यो जायराती सुरू जाल्यो. खबरेपत्रां आनी हेर नेमाळीं हांचो प्रसार जसो वाडत गेलो, तशें तांच्यांतलें जायरातीचें प्रमाण वाडत गेलें. भारतांतले पयले जायरात वितरण-संस्थेची थापणूक १९०७ त मुंबय हांगा जाली. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांतच्या काळांत, सरकारी तशेंच बिन-सरकारी संस्थांनी आपल्या वावराची, सेवेची आनी येवजणेविशींची जायरात चित्रपटगृहांतल्यान प्रसिध्दीपट आनी म्हायतीपट हांचेवरवीं वितरावपाक सुरवात केली. भारतांत रेडिओवेल्यो जायराती १ नोव्हेंबर १९६७ सावन आनी दूरदर्शनावेल्यो जायराती १ जानेवारी १९७६ सावन वितरावपाक सुरवात जाली.

उद्येगीक क्रांतीउपरांत मालाचें उत्पादन पयलींपरस कितल्याशाच पटींनी वाडलें आनी चड प्रमाणांत उत्पादन जाल्लो माल गिरायकामेरेन पावपाक जायरातीची गरज उप्रासली. येरादारीचे वाडटे वेवस्थेक लागून मालाची येरादारी करप सोपें जालें आनी आंतरराश्ट्रीय बाजारपेठो तयार जावपाक लागल्यो. जायरात हो बाजाराविशींच्या तंत्राचो एक म्हत्वाचो अविभाज्य घटक आसून विचारप्रसारणाचो एक प्रकार आसा. जायरात वा विज्ञापन ही एक कला आसा. जायरात हें एक शास्त्र आसून ताची बसका समाजशास्त्र, मानसशास्त्र, वाणिज्य आनी सांख्यिकीशास्त्र हांचे बुन्यादीचेर उबारिल्ली आसा. जायरातीच्या मळार प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्षपणान खूब जाणांक कामधंदो मेळटा.

आर्विल्ले वेवस्थेंत उत्पादनाचो वा सेवेचो खप चड प्रमाणांत घडोवन हाडपाचो वावर जायरातीक लागून जाता. वस्तू दोन तरेच्यो आसतात: थोडो काळ तिगून उरपी, देखीक- दंतमंजन, शाबू, कापड आनी चड काळ तिगून उरपी, देखीक- विजेचो पंखो, रेडिओ, घड्याळ. येरादारीची संस्था, उपहारगृहां, हॉटेलां, निवासस्थानां हांचो सेवेंत आस्पाव जाता. हेभायर कुटुंबनियोजन, राश्ट्रीय एकचार, पंचवर्सुकी येवजणी हांचोय जायरातीवरवीं प्रसार जाता. राश्ट्रांतल्या संकश्टांच्या प्रसंगांवेळार, देखीक- जातीय दंगली, दुकळ, रोग-पीडांच्यो सांथी, भूंयकांप, हुंवार असल्या प्रसंगांवेळार लोकांचो धीर तिगोवन दवरपाखातीर आनी लोकयत्न संघटित करपाखातीर जायरातीचो उपेग करतात.

जायरातीक लागून जावपी उत्पन्नाचे अर्थीक बळकटीक लागून खबरेपत्रांक आपलो लोकजागृतायेचो वावर स्वतंत्रपणान करपाक मेळटा. खबरेपत्रांचें अर्दावयर उत्पन्न जायरातीक लागून जाता आनी वाचप्यांकूय खबरेपत्रां सवाय दरांत वाचपाक मेळटात.

जायरातीक लागून गिरायकाक सगळे तरेन मार्गदर्शन जाता. वेगवेगळ्यो उत्पादित वस्तू आनी सेवा हांच्या खाशेल्या पांवड्याविशींची पूर्वकल्पना जायरातीक लागून गिरायकाक सहज करूं येता आनी देखून, आपल्याक जाय ती वस्त वेंचून काडून विकत घेवप गिरायकाक सोपें जाता. दिवपा-घेवपाचो वेव्हार जायरातींक लागून सोपो जाता.

जायरातीचो खर्च हो बाजारांतल्या हेर खर्चाप्रमाण एक गरजेचो खर्च आसा. प्रत्यक्ष उत्पादक संस्था, आपल्या मालाचें विकपाचें प्रमाण वाडोवन उदरगत करपाचे यत्न करीत आसता. ताका लागून तांकां जायरातीची गरज लागता आनी हो जायरातीचो खर्च गिरायकाच्या माथ्यार मारतात, अशें कांय जाणांचें म्हणणें आसा. मालाचें विकप सोपें करपाखातीर जायरात ही सवाय, खात्रीची, कार्यक्षम आनी जलद पध्दत आसा. जायरातीक लागून उत्पादन संस्थेक वितरकांक, वितरकांक दुकानदारांक आनी दुकानदारांक गिरायकाक माल विकप सोपें जाता, मालाची विक्री वाडटकच उत्पादन वाडटा आनी उत्पादन खर्च कमी जायत वता. ताका लागून मालाचें मोल उणें करप उत्पादकाक शक्य जाता. जायरातीक लागून मालाची मागणी वाडटा, ताका लागून उत्पादन वाडटा आनी उत्पादन वाडिल्ल्यान कामगार वाडटात. हे नवे

कामगारुय गिरायक आशिल्ल्यान चलनात अदीक पैसो घोळटा. जायरातीवरवीं जाल्ल्या अदीक फायद्याचो कांय वांटो दूरदृश्टीचो उत्पादक बोनस, कामाची बरी वेवस्था, कामगार निवासस्थानां हांचेर खर्च करतात.

जायरातीक लागून मालाची प्रतिश्ठा वाडटा आनी संस्थेचें नांव जाता. सर्तीच्या बाजारांत एकाद्र्या उत्पादकाची वस्तू फकत बरी आनी सवाय आसली, तरी ती जायराती बगर खपतलीच हाची खात्री दिवं येना. कारण तसलीच वस्तू तयार करपी हेर उत्पादक आपल्या मालाची गडगंज जायरात करून ती खपोवंक शकतात. व्हड प्रमाणाचेर जायरात करतकच सुर्वेक कांय काळ एकाद्र्या वस्तूचो खप वाडटा, पूण ते वस्तूंत गुणवत्ता नासल्यार, तिचो खप सदांच तिगून उरप वा वाडप शक्य आसना. जायरातीच्या मळावयले वेगवेगळे कायदे आनी जायरात वितरण-संस्थेन घाल्ले निर्बंध, हाका लागून हालींच्या काळांत फट जायरात करून गिरायकाक फटोवपाचें प्रमाण खूब उणें जालां. विकसित राश्ट्रांनी जायरातीचें प्रमाण अदीक आसता, ही योगायोगाची गजाल न्हय तर जायरातीक लागून उद्देगीक उदरगत घडून येवपाक मदत जाता, अशें दिसून आयलां.

**माध्यमांची वेंचणूक:** जायरात करतना उण्यांत उण्या खर्चांत गिरायकाकडेन चडांत चड संपर्क साधप, हें माध्यम वेंचपाफाटलें सूत्र आसा. माध्यम वेंचून काडटना चार गजालींकडेन लक्ष दितात. १. *माध्यमाचें स्वरूप:* माध्यमाच्या संपर्काची भुगोलिक व्याप्ती, खाशेले वर्गाच्या आनी पांवड्याच्या लोकांमेरेन जायरात कशी पावोवप, देखीक: वैजकी सल्लागारांखातीर टपालाचें माध्यम वापरतात. माध्यमाची दृश्यता आनी श्राव्यता, माध्यमांत हालचाल, रंग हांकां आसपी वाव, जायरात पळोवपाक आनी आयकुपाक लागपी वेळ, जायरातीचो प्रभाव, परत-परत वितरावपाची क्षमता ह्या गजालींचो विचार, माध्यमाचें स्वरुप पळेतना जाता. २. *माध्यमाचें वातावरण आनी प्रसार:* वातावरण प्रसारित करूं येता, अशी मनःस्थिती. देखीक- खबरेपत्रांतल्या जायरातीचो परिणाम रोखडोच जाता, जाल्यार चित्रपटमाध्यम स्वप्नाळू वातावरण तयार करता, ३. *माध्यमाचो खर्च:* दोन माध्यमांचो तुलनात्मक खर्च पळोवपाखातीर १,००० लोकांमेरेन पावपाखातीर येवपी खर्चाच्या हिशोबाचो विचार करतात. ४. *माध्यमाची लवचिकता:* एकाद्र्या माध्यमांत कमी उतरांनी वा कमी काळांत जायरात करप. देखीक- म्हयन्याळ्यापरस दिसाळ्या खबरेपत्रांत रोखड्यारोखडी जायरात उजवाडावप शक्य आसता.

**जायरातीचीं माध्यमां:** खबरेपत्रां, म्हयन्याळीं आनी हेर नेमाळीं, वण्टीपत्रकां, प्रसिध्दीफळे, दुकानांच्यो पाटयो, येरादारीवेली जायरात, प्रसिध्दीपट आनी न्हायतीपट, सरकचित्रां (Slides), आकाशवाणी, दूरचित्रवाणी, प्रदर्शनां आनी प्रात्यक्षिकां, जनेल दाखोवपी (Window Display), विक्री-केंद्र जायरात, टपाली जायरात, छापील माध्यमां (देखीक- हस्तपत्रकां, पुस्तिका), गांवगिन्या वाठाराखातीर माध्यमां (देखीक- खास चित्रपट, प्रदर्शनां, प्रात्यक्षिकां, आकाशवाणी, दूरचित्रवाणी, वण्टीपत्रकां, दवंडी, हस्तपत्रकां, वस्तूंचे नमुने) हीं जायरातीचीं माध्यमां आसात.

**रचनात्मक आनी कल्पक जायराती:** कसलीय जायरात करचेपयलीं तिची आंखणी आनी मांडावळ करची पडटा. विकपाविशींच्या कल्पनांचें प्रभावी रुपांतर, शब्द आनी चित्रां हांचे वरवीं करप, ही कल्पक जायरातीची मुळावी बसका जावन आसा. जायरातींत विश्वास बसपासारकी आनी मन वळोवपासारकी शब्दांची रचणूक, वस्तूचे पुराय म्हायतीचेर आदारित आसची पडटा.

कल्पनात्मक जायरातींत वस्तूविशीं प्रामाणिकपणान तशेंच गिरायकाक समजतलें आनी पटतलें अशा सोप्या उतरांनी सांगप जाता. जायरातीचे मांडावळींत आनी शब्दांचे रचणुकेंत गिरायकाक माल घेवपाक प्रवृत्त करपाचें बळगें आसचें पडटा. कल्पक जायरातकार सामान्य तशेंच समाजीक मानसशास्त्राचो अभ्यास करून खंयच्या आवाहनाचेर नेट दिवचो, हें थारायता. कांय मुळाव्यो इत्सा, जायरातींत आवाहन म्हूण वापरतात, त्यो अश्यो- काटकसर, बचत, फायदो, सोबितकाय, मोग, भलायकी, सुरक्षितता, अनुकरण, प्रावीण्य, आराम, सुख, जिज्ञासा, विनोद.

जायरातींतलो संदेश नाट्यपूर्ण रीतीन परिणामकारक स्वरुपांत मांडप, हें दृकप्रतिमाकाराचे कलेचेर आदारून आसता. जायरात मांडपाचे दोन प्रकार आसात: १. विकपाविशींचो संदेश सरळ आनी स्पश्टपणान वितरावप. २. अप्रत्यक्ष मांडावळ: हातूंत वाचप्याची जिज्ञासा वाडोवन घालतकच ती पुराय करपाखातीर, तो सबंद मजकूर वाचता. जिज्ञासा वाडोवपी जायरात मोहिमेंत एका फाटोफाट एक अशा जायरातींची माळ वितरावन, उमळशीक वाडयतात आनी निमाणचे जायरातींत गुपीत उक्तें करतात.

परिणाम घडोवन हाडपी दृकप्रतिमेच्यो कांय देखी अश्यो: एकाद्री वस्तू वापरतना दाखोवप, सुखातीचो आनी मागीरचो असो वस्तूच्या वापरांतलो फरक नदरेक हाडून दिवप, सूक्ष्मदर्शक यंत्र आनी व्हडलीं भिंगां हांचेवरवीं सहज नदरेंत न येवपी वस्तूचें खाशेलेपण दाखोवप, असामान्य चित्रांचो वा उतरांचो वापर, बोधचिन्हां, वस्तू वापरपी नामनेच्या व्यक्तींचीं शिफारसपत्रां छापप. जायरातीच्या रेखांकनांत वाचतल्याची नदर सहज भोंवतली हाची जतनाय दृकप्रतिमाकाराक घेवची पडटा. तशेंच तातूंत कोरे सुवातीचो फाव तो वापर करप गरजेचें आसता. चित्रांची मांडावळ आनी सजावट ओडलायणी जावंची आनी तातूंतल्यान प्रतीकात्मक संदेश परगटावचो, म्हूण तातूंत अचूक फाटभूंय, सैमीकता, वास्तवता, सरळता, फाव तो आकार, रंगसंगती हे घटक म्हत्वाचे आसतात.

जायरात वेवसायाकडेन संबंदीत आशिल्ल्यो संघटना, संस्था आनी तांचो वावर असो: १. The Indian and Eastern Newspaper Society (१९३९): खबरेपत्रांचें हित सांबाळप, शासन, जायरात वितरण- संस्था आनी जायरातदार हांचेकडेन संयुक्तपणान वेव्हार करप. २. Indian Language Paper Association (१९४१): प्रादेशीक भासांतल्या खबरेपत्रांचे खाशेले वेव्हार सांबाळप. ३. Advertising Agencies Association of India (१९४५): जायरातीचो पांवडो सुदारप, वांगडी आशिल्ल्या जायरात संस्थांनी सुसूत्रता हाडप, तांचेखातीर आचारसंहिता लागू करप. ४. Commercial Artists' Guild (१९४८): जायरात संकल्पनांचो पांवडो वाडोवप, वांगडी कलाकारांचे हितसंबंद सांबाळप. ५. Audit Bureau of Circulation (१९४८): म्हत्वाचीं सगळीं दिसाळीं, सप्तकी नेमाळीं आनी म्हयन्याळीं ह्या ब्युरोचीं वांगडी आसात. ह्या ब्युरोन दिल्लें खबरेपत्राच्या वा नेमाळ्यांच्या खपाविशींचें प्रमाणपत्र विश्वसनीय आनी प्रमाण अशें धरतात. ६. Indian Society of Advertisers (१९५२): जायरातदारांच्या हितसंबंदांची राखण करप, जायरातीचो पांवडो वाडोवप.

**जायरात आनी कायदो:** जायरातीचें उजवाडावप, वितरावणी आनी तेविशींचे हेर वेव्हार हांकां संविदा अधिनियम, उजवाडावपाचे अधिनियम हांचे नेम लागू जातात. प्रसिध्दीपट, सरकपट्टयो (slides), वण्टीपत्रां, फळे असल्या भायल्या जायरातींक संबंदीत नगरपालिकेचे कर भरचे पडटात. चड करून मुंबय, कलकत्ता, दिल्ली, मद्रास ह्या महानगरांतल्या जायरातींविशीं कांय बंधनां आनी नेम आसात. सगळ्या तरेच्या लघुपटांक प्रदर्शनापयलीं सेन्सॉरचें प्रमाणपत्र घेवचें पडटा. भोंवपी गाडयांचेर जायराती लावन त्यो विजेचेर प्रकाशमान करपाच्यो आसल्यार ताका पोलीस आयुक्ताची खास परवानगी घेवची पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

## जायसी मलिक मुहंमद: (जल्म: सुमार १४९२; मरण: सुमार १५४२).

'पद्मावत' ह्या नामनेच्या हिंदी काव्याची रचना करपी एक सूफी

संतकवी. 'जायसी' ह्या ताच्या आडनांवावेल्यान तो उत्तर प्रदेशांतल्या रायबरेली जिल्ह्यांतल्या जायस वाठारांत रावपी आसूंक जाय, अशें म्हण्टात. 'मलिक' हे ताचे उपाधीवेल्यान ताचे पूर्वज इराणांतल्यान भारतांत आयले आसूंक जाय, अशें एक मत प्रचलित आसा. ताचे जिणेविशीं तशेंच काळाविशीं निश्चित म्हायती मेळना. ताच्या बापायचें नांव अशरफ आसल्लें आनी तो शेतकाम करतालो. शेख महीउद्दीन हो जायसीचे गुरु आशिल्लो.

सातव्या वर्सा जायसी, देवी येवन एका दोळ्यान कुड्डो आनी एका कानान भेड्डो जालो. ताचें मुखामळ्य विद्रूप जालें. तो एका पांयान लंगडोय आशिल्लो. पूण स्वभावान तो एकदम नम्र, सज्जन आनी उदार आशिल्लो. तो लखनौ जिल्ह्यांतल्या अमेठी राज्यांत फकीर जावन रावतालो आनी मंगरा नांवाच्या दाट रानांत रावन आपली साधना करतालो. ह्या रानातूच एका शिकाऱ्याची गुळी लागून ताका मरण आयलें, अशें म्हण्टात.

जायसीन बरयल्ले ग्रंथ अशे: 'पद्मावत', 'अखरावट', 'आखिरी कलाम', 'महरी बाईसी', 'चित्रावत' (चित्ररेखा) आनी 'मोस्तीनामा' (मसालनामा). हेभायर आनीकूय बरीच रचना ताणें केल्या, अशें म्हण्टात; पूण ती आयज तरी मेळना.

'पद्मावत' ह्या खंडकाव्याक लागून जायसीक अज्रंवर कीर्त मेळ्ळी. ह्या काव्याचो रचनाकाल हिजरी ९४७ (सुमार १५४०) आसतलो, अशें मानतात. चितोडचो राजा रतनसेन आनी सिंहलद्वीपची राजकन्या पद्मिनी हांचे प्रणयकथेचेर हें काव्य आदारिल्लें आसा. पद्मिनीची इत्सा धरून अलाउद्दीनान चितोडचेर घाल्ली घुरी आनी पद्मिनीन केल्लो जोहार, ह्यो इतिहासीक घडणुको ह्या काव्यांत आदार म्हूण घेतल्यात. जायसीन आपले प्रतिभाशक्तीच्या बळग्यार हे कथेक एक सोबीत रुप हाडलां. ह्या सगळ्या काव्याक आध्यात्मिक रुपकाचो घाट दिवपाचोय ताणें यत्न केला. ह्या काव्याचेर सूफी सिध्दांत आनी भारतीय तत्त्वगिन्यानांतल्या अद्वैत मताचो प्रभाव पडला. हातूंतलीं मुखेल पात्रां भारतीय आसून अलंकार आनी प्रतीकांय भारतीय आसात. हें काव्य फार्सी लिपींत आनी मस्नवी शैलींत बरयल्लें आसलें, तरी ताची भास अवधी-हिंदू आसून तिचें लोकजिणेकडेन लागींचें नातें आसा. हें काव्य चौपाई दोह्यांत बरयल्लें आसून तातूंत वट्ट ६५३ दोहे आस्पावतात. मोग, विरह, सोबीतकाय, मांगल्य ह्या भावभावनांचें सोबीत चित्रण तातूंत दिसून येता. हिंदू आनी मुस्लिम धर्मांतलें कडूपण, द्वेशभावना कुशीक दवरून एकामेकांभितर जो मोग आनी एकचार तयार जातालो, ताचें 'पद्मावत' हें प्रतीक आसा, अशें म्हण्टात. सुफी काव्यांत जायसीचें 'पद्मावत' सगळ्यांत म्हान आसून हिंदीत रामचरितमानसा फाटोफाट ताका मानाची सुवात आसा. 'पद्मावत' ह्या अज्रंवर काव्याच्यो हिंदींत जायत्यो संपादित आनी सटीक आवृत्त्यो उजवाडाक आयल्यात.

'अखरावट' हातूंत इस्लामी धर्मग्रंथांप्रमाण सृश्टीरचनेविशींची म्हायती तशेंच सूफी सिध्दांतांचें वर्णन आयलां. हाचें खाशेलपण हें की वर्णमालेंतलें दरेक अक्षर घेवन ताचेर ताणें तत्त्वप्रधान अशी काव्यरचना केल्या. 'आखिरी कलाम' इस्लाम धर्मांतले पुराणिक 'कियामत' कल्पनेचेर आदारित आसा. 'महरी बाईसी' हातूंत २२ गीतां आसून तातूंत आध्यात्मिक उपदेश आसा. 'चित्रावत' वा 'चित्ररेखा' हातूंत चंद्रपूरची राजकन्या चित्ररेखा आनी कनोजचो राजकुंवर प्रीतमकुंवर हांची प्रेमकथा सांगल्या. जायसीन ही रचना एके लोककथेच्या आदारान केली, अशें म्हण्टात. 'मसलानामा' त अवधी प्रांतांतल्यो कांय ओंपारी घेवन, चतुष्पदि आनी दोहे हांचेवरवीं आध्यात्मिक उपदेश केला. ह्यो सगळ्यो रचना अवधी भाशेंत आसात. जायसीचे भाशेंत फारसी आनी अरबी शब्द खूब प्रमाणांत आसून, ताची भास एकदम सादी आनी सोपी आसा.

जायसी हो धर्मजिज्ञासू आनी समन्वयी स्वभावाचो आशिल्ल्यान ताचो जायत्या धर्मीक पंथांकडेन संबंद आयिल्लो. चड करून नाथपंथाचो प्रभाव ताच्या काव्याचेर स्पश्ट दिसून येता. हठ्योग आनी रसायनवाद हांच्या साधनप्रक्रियांचें वर्णन ताच्या काव्यांत दिसून येता.

- कों. वि. सं. मं.

**जायांची पूजा:** गोंयच्या देवस्थानांनी वर्सभर वेगवेगळ्यो पूजा करतात. जायांची पूजा, ही तातूंतलीच एक म्हत्वाची पूजा. हे पुजेंत जायां फुलांचो वापर करून सोबीत अशी आरस करतात.

पावसांत जायांचो भार जालो की खुबशा देवस्थानांनी वेगवेगळ्या तिथींक जायांची पूजा बांदतात. ह्या वेळार जायांच्या सुवासीक फुलांनी देवळाचो भितरलो वाठार, गर्भकूड, देवाची पुजेची मूर्त नटयतात. तेन्ना जायांच्या परमळान सगळें देवूळ आनी देवळाकडलो वाठार भरून वता. उपरांत पुराण, भजन, कीर्तन अश्यो सांस्कृतीक कार्यावळी जातात. बोरये, वेलिंग ह्या वाठारांत कांय लोक आंगवणेची वर्सासणाची पूजा बांदतात. पूण ह्या सगळ्या पुजांमदीं म्हाड्ळोळचे जायांपुजेची बरीच नामना आसा.

जायांपुजेक म्हाड्डोळा जातीपूजा, अशेंय म्हण्टात. हे पुजेफाटल्यान एक इतिहास आसा, तो असो: १९१३ वर्सा गोंयांत एक व्हड सांथ आयली. वचत थंय लोक दुयेंत पडपाक लागले. तेन्नाच जायांचो भार आशिल्लो. पूण जायो विकपी फुलकार आनी जायो विकत्यो घेवपी गिरायकांय दुयेंत जाल्लीं. तेन्ना फुलकार समाजांतल्या जाण्टेल्यांनी म्हाळशेक (म्हाड्डोळची देवता) गाराणें घालें, 'दर वर्सा एक दीस सगळीं जायेचीं फुलां आमी तुका ओंपतात आनी तुजी पूजा बांदतात, पूण ही हावळ पयस कर.' उपरांत तांणी ही पूजा बांदली. अशें सांगतात की पूजा बांदतकच, ती धाम रोखडीच कमी जायत गेली. तेन्नासावन सुमार ७५ वर्सां सावन एक वर्स लेगीत खंड पडूंक दिना आसतना म्हाड्डोळचो फुलकार समाज ही पूजा बांदतात.

भाद्रपद म्हयन्यांत सप्तमी तिथीक ही जायांची पूजा बांदतात. फुलकार समाजांतल्या दर एकल्याक, दर वर्सा हे पुजेचो मान मेळटा. ते दीस थंय जायो विकनात. यजमान, त्या दिसा मल्हार देवाची पूजा करता आनी उपरांत ताची वाजत-गाजत मिरवणूक काडटात. सांजवेळा म्हाळशे देवळाच्या सभामंडपांत सत्यनारायणाची म्हापूजा बांदतात. रातचो महाप्रसाद जाल्या उपरांत पुजेची सांगता जाता.

हे पुजेचें खाशेलपण म्हळ्यार ह्या सत्यनारायणाचें म्हापुजेक दर वर्सा देवांक बसोवपाखातीर विंगड विंगड वाहनांची आरस करतात. देखीक-सिंहासन, मयुरासन, नौकावाहन (सांगड), पुश्पक विमान, शेषासन, विजयरथ, मखर आदी. देवळाकडलो वाठार, रस्तो, देवूळ, सभामंडप, गर्भकूड, म्हाळशेचे पुजेची मूर्त आदी सगळो वाठार जायांच्या हारांनी, पोडांनी, अद्धागिरांनी, तुऱ्यांनी नटयतात. निमाणे प्रसादावांगडा जायांचो पोड दिवपाची प्रथा आसा. हे जायापुजेचें आकर्शण म्हळ्यार पुजेनिमतान थंय नामनेच्या गायकांच्या गायनाच्यो मैफिली आनी हेर संस्कृतीक कार्यावळी जातात.

- रविंद्र म्हाड्डोळकार

**जालियनवाला बाग:** ब्रिटीश लश्करान पंजाबांतल्या अमृतसर शारांत १३ एप्रिल १९१९ ह्या दिसा केल्ल्या हत्याकांडाचें स्थळ. पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत भारतीय लोकांनी ब्रिटीश सरकारक झूज जिकपाखातीर मोलादीक सहकार्य दिलें. झुजांत ब्रिटीश सरकारान जैत मेळयलें. झूज सोंपतकच भारतीय लोकांक राजकी सुदारणा मेळयल्यो, अशीं आश्वासनां ब्रिटीश सरकारान दिल्लीं. तीं आश्वासनां झूज सोंपतकच पुराय करप हें सरकाराचें कर्तव्य आशिल्लें. ब्रिटीश सरकारान इ.स. १९१८ त, 'मॉंटेग्यू-चेम्सफोर्ड सुदारणा' ह्या नांवान नामनेक पाविल्ल्यो राजकी सुदारणा मंजूर केल्यो. पूण ताका लागून हिंदी लोक खुश जालेनात. देशांतल्या चडशा सगळ्याच पक्षांनी ताका विरोध केलो. विरोध चड खर जावंचो न्हय, म्हूण सरकारान झुजाच्या काळांत चालू आशिल्लो 'भारत संरक्षण कायदो' झूज सोंपतकच लेगीत तसोच चालू

दवरलो. मॉंटफर्ड सुदारणा देशांत लागू करूंक मेळच्यो, असो हाच्याफाटल्यान हेत आशिल्लो. देशांतलो असंतोश वाडलो आनी तरेकवार मार्गांनी तो व्यक्त जावपाक लागलो.

ताचेर अदीक खर उपाय म्हूण 'रौलट ॲक्ट' करपाचें सरकारान थारायलें. तेविशींचें विधेयक मध्यवर्ती कायदेमंडळांत मांडलें. ताचेर नामदार श्रीनिवासशास्त्री हांचेसारक्या नेमस्त पक्षाच्या प्रतिनिधीन कडक टिका केली. महात्मा गांधीन त्या विधेयकाचेर कडक उतरांनी निशेध परगटायलो आनी तें विधेयक म्हळ्यार हिंदी लोकांचेर चेपण हाडपाखातीर ब्रिटीश सरकारान हातांत घेतिल्लें एक नवें शस्त्र आसा, अशें म्हळें. पूण ह्या विरोधाची पर्वा करीनासतना २८ मार्च १९१९ दिसा तें विधेयक सरकारान मंजूर केलें. तेबरोबर सबंद देशभर खर प्रतिक्रिया व्यक्त जाली. देशाच्या सगळ्या वाठारांत हरताळ, निशेध, सभा, निदर्शनां ह्या मार्गांवरवीं सरकाराच्या धोरणाआड लोकांनी आपली तिडक परगटायली. हें सगळें प्रकरण हाताभायर वचचें न्हय, म्हूण ब्रिटीश सरकारान देशभर अटकेचें सत्र चालू केलें.

अशे प्रखर चळवळीपसून पंजाब प्रांत वेगळो दवरचो, अशें तेन्नाचे पंजाबाचे लेफ्टनंट गव्हर्नर सर मायकेल ओडवायर हाका दिसतालें. ताणें तेन्नाचो ब्रिटीश सेनाधिकारी डायर हाची मदत घेवन पंजाबांत दडपशाही घडोवन हाडपाचें आनी लोकांच्या मनांत दहशत निर्माण करपाचें काम सुरू केलें. त्याकाळांत ब्रिटिशांचे हिंदी पलटणींत सुमार ८० टक्के सैनिक पंजाबांतले आसताले. चळवळीचो धग त्या सैनिकांमेरेन पावलो, जाल्यार परिस्थिती अदीक बिकट जातली म्हूण ब्रिटीश सरकारान पंजाबांतलो प्रक्षोभ कसोय करून चेपून उडोवपाचो निश्चेव केलो.

पंजाब सरकारान लोकमान्य टिळक आनी महात्मा गांधी हांकां पंजाबांत प्रवेश करपाक बंदी केली. ताका लागून हिंदी लोक आनीकूय खुबळ्ळे. तो प्रक्षोभ चेपून उडोवपाखातीर आनी आपल्या अत्याचारांक कायदेशीर स्वरुप दिवपाखातीर सरकारान 'रौलट ॲक्ट' मंजूर केलो आनी त्या कायद्याविशीं तांकां अटक केली. ह्या सगळ्या घडणुकांक लागून असंतोश चडूच वाडलो.

अमृतसर हांगा ६ एप्रिल १९१९ दिसा पुराय हरताळ पाळ्ळो आनी तीन दिसांउपरांत सरकाराचो निशेध करपाखातीर मिरवणूक काडली. मिरवणुकीचेर पोलिसांनी लाठीमार केलो. तरी लोकांनी संयम सोडलोना. पंजाबचो कॉंग्रेस फुडारी डॉ. किचलू, डॉ. सत्यपाल हांचेर भाशणबंदीचो हुकूम हाडलो. लोकांचो प्रक्षोभ तेंगशेक पावलो म्हूण सरकारान ११ एप्रिलसावन अमृतसर शार लश्कराकडेन सोपयलें. पूण ताकाय पर्वा करीनासतना लाला हंसराज हाणें जालियनवाला बागेंत १३ एप्रिल १९१९ दिसा कन्हैयालाल हाचे अध्यक्षतेखाला जाहीर सभा जातली, अशें घोशित केलें.

ही सभा भरची न्हय म्हूण, त्याच दिसा ब्रिगेडियर जनरल डायर हाणें जाहीरनामो काडून चारांपरस अदीक लोकांक एकठांय येवपाक बंदी केली. शाराचें वातावरण इतलें तापिल्लें की, जनरल डायरच्या जाहीरनाम्याची खबर शारांतल्या चडशा लोकांक मेळूंक पावलीना. तो दीस संवसार पाडव्याचो आशिल्लो. त्या निमतान दर वर्सा अमृतसर हांगा व्हडली जात्रा भरताली. जात्रेक भोंवतणच्या खेड्यांतसून हजारांनी लोक शारांत जमताले. तांकांय जमावबंदीची मात खबर नाशिल्ली.

जालियनवाला बागेची सुवात म्हळ्यार चारुय वटेन बंद, अशें एक उक्तें मळ आशिल्लें. ह्या मळाच्या चारुय वटांनी ऊंच इमारती आसून भितर वचपाखातीर एक अशीर वाट आशिल्ली. १३ एप्रिल १९१९ दिसा सांजेच्या साडेचार वरांचेर रौलट कायद्याआड महात्मा गांधीच्या सत्याग्रहाक प्रतिसाद दिवपाखातीर आपयल्ले हे सभेखातीर वीस हजार लोक त्या मळार जमले. सभेचें काम सुरू जालें. पोलिसांक हे सभेक इतलो लोक जमत आनी थंय सभा सुरू जायत हाची कल्पना नाशिल्ली. लोकांक मळाभितर कोंडून लाठीमार करचो आनी तांचेर दहशत बसोवची असोय एकाद्रो लश्करी अधिकाऱ्यांचो कट आसूं येता आनी तशेंच घडलें. सभा सुरू जायनाफुडें ब्रिगेडियर जनरल एडवर्ड हॅरी डायर ९० सशस्त्र सैनिकांक घेवन मळाचे अशीर वाटेर येवन एकदम उबो रावलो. ताणी तोफोय हाडिल्ल्यो आनी कसलीच सुचोवणी दिनासतना सैनिकांनी त्या निःशस्त्र जमावाचेर गोळीबार सुरू केलो. अकस्मात जाल्ले घुस्पेन लोक भियेले. तातूंत जायते जाण्टे, म्हातारे आनी भुरगीं आशिल्लीं. आकांतान ते भायर वचपाखातीर धांवले. पूण त्या अशीर मार्गाचेरुय सैनिक उबे आशिल्ले. तांच्या गोळीबारांत हजारांनी लोक सांपडले. गुळयांचो शिंवर जातालो आनी लोक पटापट मरून पडटाले. पयल्या धा मिनटांतूच गुळयांच्यो वट्ट १,६०० फैरी झडल्यो. मड्यांची आनी जखमी लोकांची रास पडली. निमाणे, पिस्तोलाच्यो गुळयो सोंपल्यो. मळाची वाट अरुंद आशिल्ल्यान नाळीय भितर व्हरपाक मेळना जाल्यो; तेन्ना जनरल डायराक हो अमानुश गोळीबार थांबोवचो पडलो. मरणाक तेंकिल्ले हजारांनी लोक थंय उदक मागताले. कितलेशेच जाण जखमी अवस्थेंत वळवळत पडिल्ले. हें सगळें पळोवन लेगीत जनरल डायर थंयच्यान पळून गेलो.

ह्या भयांकृत हत्याकांडाची चवकशी करपाखातीर ब्रिटीश सरकारान हंटरचे अध्यक्षतेखाल एक समिती नेमली. त्या वेळार गवाय दितना स्वता डायरान सगळी वस्तुस्थिती मान्य केली आनी लोकांच्या मनांत दहशत बसची म्हूण आपणे इतलो मनीस संहार घडोवन हाडलो, हेंय पर्यायान मान्य केलें. कॉंग्रेसीनूय पं. मोतीलाल नेहरु हाचे अध्यक्षतेखाल एक चवकशी-समिती नेमली. दोनूय समित्यांनी दिल्ल्या मरणाच्या आंकड्यांत फरक आशिल्लो. कॉंग्रेसीच्या मतान १,००० लोक मेले जाल्यार सरकाराचे अधिकृत खबरेप्रमाण ३७९ लोक मेले आनी १,२०० लोक जखमी जाले.

डायरच्या ह्या वायट कर्तुपाचें समर्थन मायकेल ओड्वायर हाणें केलें. ह्या हत्याकांडाची ब्रिटीश सरकारान व्हडलीशी दखल घेतलीना, पूण महात्मा गांधीच्या सत्याग्रहाक आनी वट्ट स्वातंत्र्य चळवळीक हाका लागून अदीक धार आयली. ही खबर देशभर पातळी आनी हिंदी लोक तिडकले. जायत्या प्रांतांत हिंसक प्रकार घडले. निरपराध लोकांच्या ह्या हत्याकांडाक लागून कितल्याशाच क्रांतीवीरांक स्फूर्त मेळ्ळी.

पूण इतलें जावन लेगीत सरकाराचें समाधान जालेंना. सरकारान अमृतसरांत लश्करी कायद्याबरोबरुच कांय वाठारांत लोकांक जमनीक घसटत वचपाचो हुकूम काडलो. सरकारान शाराची वीज आनी उदका-पुरवण कांय दीस बंद दवरली. चळवळ चेपपाखातीर आनीकूय जायते खर कायदे चालीक लायले.

कांय काळाउपरांत १३ मार्च १९४० दिसा उधम सिंग हाणें मायकेल ओडवायरचो फार मारून खून केलो. ताका जून १९४० त, फांशी जाली. जालियनवाला बाग हत्याकांडा उपरांत राश्ट्रीय भावना आनी तातूंतल्यान उप्राशिल्ले चळवळीन नेट घेतलो. १९६९ त जालियनवाला बागेंतल्या हत्याकांडाचो पन्नासावो स्मृति-दीस मनयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जावळ:** हिंदू धर्मांतल्या ल्हान भुरग्याचे जेन्ना पयलेच फावट केंस कापतात, तेन्ना ताका 'जावळ' अशें म्हण्टात. हिंदू धर्मांतल्या सोळा संस्कारांमदल्या 'वपनक्रिया' ह्या संस्काराक जावळ म्हण्टात. जावळाची प्रथा खूब आदीकाळासावन चलत आयल्या तेविशीं हे मंत्र आसात.

ॐ येन धाता ब्रहस्पतेरग्नेरिंद्रस्य चायुषेवपत

तेनत आयुषे वपामि सुश्लोकाय स्वस्तये

(आश्वलायन गृह्यसूत्र) १.१७.१३

अर्थ- (आरे पुता) द्वादशा आदित्यांतलो 'धातृ' नांवाच्या आदित्यान ज्या वाखरान ब्रहस्पति, अग्नि आनी इंद्र ह्या देवांचे दीर्घ जीण मेळची म्हूण केंस तासले, त्याच वाखरान हांव तुका दीर्घ जीण, बरी कीर्त आनी कल्याण जावंचें म्हूण जावळ करतां.

क्षुरेण सोमस्यराज्ञो वरुणस्य विद्वान

तेन ब्रह्माणो वपतेदमस्यायुष्मान जरदष्टिर्यथासत्

(आश्वलायन गु. सुत्र. १.१७.११)

अर्थ- हे ब्राह्मणांनो मोट्या कसबान (कौशल्य) हजामत करपी सूर्यान राजा सोम आनी वरुणाचे ज्या वाखरान केंस तासले त्याच वाखरान ह्या भुरग्याचें जावळ करात.

जावळ हो विधी चूडाकर्म वा चौल म्हळ्यार शेंडी दवरप हातूंतलो हो उपविधी आसा. पूण जावळ केलेबगर चूडाकर्म जायना. जावळ प्रकारांत गर्भावस्थेसावन भुरग्याचे कश्राय कशे वाडिल्ले केंस कापून तातूंत थोडे शेंडयेखातीर राखून दवरतात.

**जावळाचो काळम्हूर्तः** जल्मतिथीसावन सम म्हयने म्हळ्यार दोन, चार, स, आठ अशे धरून, उत्तरायणांत सकाळच्या वेळार पुनर्वसु, पुष्य, अश्विनी, रेवती, मृग, श्रवण, धनिष्ठा, शततारका, हस्त, चित्रा, स्वाती हीं नक्षत्रां आसतना सोमार, बुधवार, बिरेस्तार, शुक्रार ह्या दिसांनी षष्ठ, त्रयोदस, पंचम, दसम ह्या तिथींक जावळ करचें.

चलयांच्याय जावळ आनी चूडाकर्माविशीं सांगिल्लें मेळटा, पूण तें फकत तंत्र. ताका मंत्राची गरज ना, अशें कांय स्मृतिकारांचें मत आसा. हालीं चूडाकर्म चल्याचे मुजीतूच करून घेतात.

भुरग्याच्या केंसाचें जावळ व्हड जापसालदारकेन काडपाक जाय. केंस काडल्या उपरांत कपलाक दुदाची साय लायतात. उपरांत केंसांचीं मुळां मोव जातात. तकलेच्या सगळ्या भागांत रगत घोळटा आनी नवे केंस येतात. तकली ल्हव जाता. साय लायिल्ल्यान 'खरड' हो रोग जायना.

मनशाच्या आंगार केंसांच्या आदारान चिखोल रावता. तातूंत सुक्ष्म जंतूंपसून रोग जातात. हे रोग जावचे न्हय म्हूण आंगार विंगड विंगड जाग्यार आशिल्ले केंस सारके कापून, जाय आशिल्ले केंस नीट दवरून नितळसाण राखची अशें भलायकेशास्त्रांत आसा.

वेदव्यासस्मृति, मनुस्मृति आनी याज्ञवल्क्य स्मृतिंत, जावळ हो संस्कार बैजिक आनी गार्भिक पातकां ना करपाखातीर सांगला.

जावळ काडपी म्हाल्याक थारावीक तांदूळ, गंव, हुडीद, तीळ, दक्षणा (मुशाहिरो), नाल्ल, विडो, सुपारी, वाळो आनी तूप घाल्लें शीत दिवपाची चाल आसा.

- वा. ल. वझे

## जॉन्सन, सॅम्युएलः

(जल्मः १८ सप्टेंबर १७०२, लिचफील्ड-स्टॅफर्डशर; मरणः १३ सप्टेंबर १७८४, लंडन.)

इंग्लीश कवी, पत्रकार, निबंदकार, कोशकार आनी समीक्षक. ताच्या बापायचो पुस्तकां विकपाचो धंदो आशिल्लो. ऑक्सफर्ड विद्यापीठांत प्रवेश घेवन लेगीत तो वायट परिस्थितीक लागून पदवीधर जावंक शकलोना. १७३५ त एलिझाबेथ पोर्टर हे विधवेकडेन लग्न जातकच ताणें लिचफील्डलागसार एक शाळा काडिल्ली, पूण ती चड काळ चललीना. १७३७ त जॉन्सन लंडनाक आयलो. 'The Gentleman's Magazine' हातूंतल्यान तो बरोवपाक लागलो. १७३८ त 'लंडन' ही जॉन्सनची निनांवी कविता उजवाडाक आयली. ही कविता रचपी कवी रोखडोच नामनेक येतलो, अशें मत अलेक्झांडर पोप ह्या म्हान कवीन परगटायलें.

तेउपरांत ताणें बरयल्लें रिचर्ड सॅव्हिज ह्या कवीचें चरित्र, शेक्सपिरयच्या मॅक्बेथचेर केल्लें समीक्षात्मक बरोवप हाका लागून ताचें नांव सगळ्याक गाजलें. जॉन्सन हाणें १७४५ त मॅक्बेथचेर बरोवप केलें आनी शेक्सपियरच्यो नाट्यकृती संपादित करून उजवाडावपाची आपली येवजण जाहीर केली. तेउपरांत सुमार वीस वर्सांनी ताणें हो वावर पुराय केलो. शेक्सपियरचे नाट्यसंहितांचें संशोधन करप, तातूंतले कठीण भाग विस्कटावन सांगप आनी तांचे साहित्यिक आदार मुळांतल्यानूच तपासून पळोवप हो ताच्या संपादनाचो मुखेल उद्देश आशिल्लो. ताची प्रस्तावना आनी ताणें दिल्ल्यो टिपो हांकां लागून शेक्सपिअर समीक्षेंत जॉन्सनचे हे आवृत्तीक खास म्हत्व मेळ्ळें. बुध्दिवादी प्रवृत्तीच्या अठराव्या शेंकड्यांतल्या एका व्हड साहित्यिकान शेक्सपिअरचो उदारपणान केल्लो भोवमान म्हूण जॉन्सनचे हे प्रस्तावनेकडेन पळोवप जाता.

१७४९ त 'द व्हॅनिटी ऑफ ह्युमन विशीस' (The vanity of Human Wishes) हें ताचें दीर्घकाव्य उजवाडाक आयलें. ताच्या ह्या काव्यांत त्या वेळार साहित्यांत दिसपी नीतीमत्तेवेलो व्हड भावार्थ आनी जिविताचें चित्रण दिसता. 'हीरोइक कप्लेट' हो त्या वेळा रुढ आशिल्लो छंद ताणें खासा कसबान हाताळ्ळा. गॅरिक हाणें माचयेर हाडिल्ली ताची 'आयरीन' ही शोकात्मिका ताणें नीतिवादी नदरेंतल्यान बरयल्या. 'द रॅम्ब्लर' (The Rambler) हें नेमाळें ताणें १७५० त काडलें. तातूंतलें चडशें सगळेंच बरोवप ताणें स्वताच केलें. हातूंतल्यान ताणें व्हेवारीक स्वरुपाचो दिसपट्टे जिणेंतलो उपदेश केलो. मनीस इत्सांचे निरर्थकतेचो विशय तातूंतल्यान खुबदां आयला. 'द आयडलर' (The Idler) ह्या टोपण नांवान 'द युनिव्हर्सल क्रॉनिकल' (The Universal Chronicle) हातूंत ताणें नैतिक बोध करपी निबंद बरयले. राजकी विशयांक ओंपिल्लीं कांय पुस्तपत्रां आनी निबंद ताणें बरयले.

जॉन्सनान रचिल्लो इंग्लीश शब्दकोश (१७५५) हो ताचो म्हान वावर. ताचो हो शब्दकोश म्हळ्यार इंग्लीश भाशेच्या व्यवस्थितीकरणाचे दिकेन घाल्लें पयलें पावल, अशें म्हण्टात. इंग्लीश शब्दांचे उच्चार आनी अर्थ निश्चित करप तिची शुध्दता तिगोवप आनी चड काळमेरेन ती भास जिवी दवरप हो जॉन्सनच्या शब्दकोश रचनेफाटलो मुखेल उद्देश आशिल्लो. ह्या शब्दकोशांतल्यान जॉन्सनचें इंग्लीश भाशेवेलें प्रभुत्व दिसून येता. ताच्या जिवितांत ह्या कोशाच्यो पांच आवृत्त्यो उजवाडाक आयल्यो.

ताची अर्थीक परिस्थिती सुमाराचीच आशिल्ली. आपले आवयचे अंत्ययात्रेचो खर्च भागोवपाखातीर ताका 'रासेलस' ही व्हडली बोधकथा बरोवची पडली (१७५९). तातूंत एका राजकुंवराचे काणयेच्या आदारान मनीस जिणेच्यो मर्यादा आनी तातूंतल्यान अणभवाक येवपी निर्शेवणी हांची तात्त्विक चर्चा ताणें केल्या. ह्या ग्रंथाचे जायत्या भाशांनी अणकार जाले. कृष्णशास्त्री चिपळूणकर हाणें ताचो 'रासेलस' ह्या नांवानूच मराठी अणकार केला (१८७३).

'The Lives of the Poets' (१७७८-८१) ह्या ताच्या ग्रंथांत ताणें ५२ इंग्लीश कवींचीं चरित्रां बरयल्यांत.

जॉन्सनचो खरेलो पिंड व्यासंगी पूण आग्रही समीक्षकाचो आशिल्लो. साहित्यिक कर्तुपावांगडाच स्वाभिमानी, जिद्दी व्यक्तिमत्व आशिल्ल्या जॉन्सनाक चरितार्थाखातीर खूब कश्ट सोंसचे पडले; दम्यासारक्या दुयेंसांक ताणें तोंड दिलें. ताचें अंतस्कर्ण खूब हळवें आशिल्लें. विद्वत्ता आनी वादपटुत्व ह्या गुणांक लागून ताच्या काळांतले साहित्यसृश्टीचेर ताणें शेक गाजयलो.

ताचे साहित्यसेवेचो भोवमान करुन सरकारान ताका ३०० पौंडांचें वर्सुकी मानधन सुरू केलें (१७६२). डब्लिन विद्यापीठान १७६५ त आनी ऑक्सफर्ड विद्यापीठान १७७५ त ताका एल्.एल्.डी. ही मानादीक पदवी दिली.

जॉन्सनच्या मरणाउपरांत ताचो एक जिवाभावाचो इश्ट जेम्स बॉझ्वेल हाणें बरयल्लें जॉन्सनचें चरित्र उजवाडाक आयलें (१७९१). विष्णुशास्त्री चिपळूणकर हाणें बरयल्लें जॉन्सनचरित्र द. वा. पोतदार हाणें संपादित केलां (१९२४). जॉन्सनचे संकलित ग्रंथ आर्थर मर्फी हाणें १२ खंडांत उजवाडाक हाडले (१७९२).

- कों. वि. सं. मं.

## जॉर्ज, इव्हाग्रियु फ्रांसिश्कुः

(जल्मः ६ मार्च १९२५, करमणें-साश्टी; मरणः २० ऑगस्ट १९७८, पणजी).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव तीतु मानुएल जॉर्ज. ताणें लिसेवाचें सातवें वर्स मेरेन शिक्षण घेतलें. 'गोमंतक प्रजामंडळ' हे संस्थेखातीर ताणें तळमळीन वावर केला. डॉ. ज्युलियांव मिनेझीस हाणें उजवाडायिल्ल्या 'गोमंतक' आनी 'उ येराल्दु' ह्या दिसाळ्यांखातीर तो बरोवप करतालो. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो संस्थापक वांगडी आशिल्लो. हे संघटनेच्या १८ ऑगस्ट १९४६ दिसा लोंढा वावरांत जाल्ले पयले बसकेंत ताका सरचिटणीस म्हूण वेंचून काडिल्लो.

७ नोव्हेंबर १९४६ दिसा पोलिसांनी ताका कुंकळ्ळे सत्याग्रह करता आसतना धरलो, ताका बरोच मार दिलो आनी ४५ दीस बंदखणींत दवरलो. बंदखणींतसावन सुटतकच नॅशनल कॉंग्रेस गोंय संघटनेच्या बेळगांव आनी कानपूर शारांत आशिल्ल्या कार्यालयांच्या सत्याग्रही शिबिराचो ताका मुखेली नेमलो. १५ ऑगस्ट १९४७ दिसा तो कसलींय निदर्शनां करत म्हूण फोंड्या वाठारांत पोलिसांनी ताका राजाराम प्रियोळकार आनी गोपिनाथ लोटलीकार हांचे वांगडा धरलो. ताच्या घराचेर धाड घाली आनी ताच्या घरांत आशिल्लें सगळें राश्ट्रवादी साहित्य जप्त केलें. पोर्तुगेजांआड तो लेख आनी पत्रकां उजवाडायतालो, म्हूण पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत (Territorial Military Tribunal) २२ मार्च १९४८ दिसा ताका पांच वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ते भायर पंदरा वर्सांखातीर ताचे राजकी हक्क काडून घेतले.



एक बरो बरोवपी म्हूण जॉर्ज इव्हाग्रियुची नामना आसा. तो पत्रकार आसलो. १९४२-६१ काळांत ताणें सुटके चळवळीचेर सोळा पुस्तिका आनी जायतीं पत्रकां उजवाडाक हाडिल्लीं. बंदखणींतसावन सुटका जातकच मुंबय डॉ. टी. बी. कुन्य हाणें सुरू केल्या आनी उजवाडाक हाडिल्ल्या 'आझाद गोंय' ह्या नेमाळ्याखातीर ताणें जायतो वावर केलो. १९५५ वर्सा तो आकाशवाणीचेर कोंकणी आनी पोर्तुगेज भार्शेंत विदेशी वितरावणेच्या विभागांत काम करूंक लागलो. १९७० वर्सा ताणें आकाशवाणीवेले नोकरेक सोडचीट दिली. उपरांत तो 'उजवाड' ह्या रोमी लिपींतल्या कोंकणी दिसाळ्याचें संपादन करूंक लागलो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. २० ऑगस्ट १९७८ दिसा पणजे शारांत ताका अपघाती मरण आयलें. ताचे निमणे इत्सेप्रमाण, ताका हिंदू पध्दतीन, पणजेचे हिंदू स्मशान भुंयेंत अग्नी दिलो.

१८ जून १९८४ दिसा गोंय सरकारान ताच्या सुटकेझुजांतल्या वावराचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## जॉर्ज, लुईस पेरेरा: (जल्म: १९३५, सांत इश्तेव्ह- तिसवाडी).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव इनासियु जॉर्ज. ताणें एम्.ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. 'गोवा ॲक्शन कमिटी'चो तो वांगडी आसलो. भुंयगत राजकी कार्यांत तो वांटो घेतालो. फेब्रुवारी १९५४ त, ताणें कानपुराक डॉ. गिलबर्ट रिबेलो हाणें दिल्लो हात-बॉंब हाडलो. हो बॉंब पणजेच्या आदिलशाहा राजवाड्याचेर (आताचें सचिवालय) घालपाखातीर ताणें जुजे कॉस्टेलिनोकडे हाचेकडेन दिलो; पूण ग्राबियाल क्वाड्रोस हाच्या निश्काळजीपणाक लागून बॉंब घालपाचो बेत फसलो. त्याच दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी पणजे बंदखणींत दवरलो.

चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगतकच ताची सुटका जाली. उपरांत तो मुंबय, पोर्तुगेजांआड जाल्ल्या बसकांनी, निदर्शकांनी आनी संपांनी वांटो घेतालो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## जॉर्डन: अल् मानलाका अल् उर्दुनीया अल् हशमिया.

नैर्ऋत्य आशियांतलो एक अरब देश. क्षेत्रफळ: ९५,५९४ चौ. किमी.; लोकसंख्या: २७,५०,००० (१९८६). हाचे उत्तरेखटेन सिरिया, उदेंतेवटेन इराक आनी सावदी अरेबिया, आग्नेयेक आनी दक्षिणेक सावदी अरेबिया आनी अस्तंतेवटेन इझ्राएल आसा. राजधानी- अम्मान.

**भूंयवर्णन:** जॉर्डन न्हंयचे उदेंत देगेवयलो वाठार, ताचेय उदेंतेक आशिल्लो वाळवंटी वाठार, अस्तंत देगेवयलो वाठार आनी जॉर्डनची खचदरी अशे चार स्वभावीक वांटे भुगोलाचे नदरेंतल्यान जातात. उदेंत देगेवयलो वाठार उदेंतेवटेन देंवत गेला. ताचो न्हंयचे वटेंतलो वाठार तुटिल्ल्या कड्याभशेन आसा. ताची दक्षिणेवटेनची उंचाय सुमार १,७५४ मी. आसा. तातूंत जेबेल राम्म ही १,७५० मी. उंचायेची दोंगर तेंगशी आसा. ह्या वाठाराची सरासरी उंचाय ६०० ते ९०० मी. आसा.

उदेंतेवटेन जॉर्डन न्हंयचे पलतडी ८०% जॉर्डनचे भुंयेंत पातळिल्लें वाळवंट आसा. अस्तंत पठारी वाठार सरासरी ९०० मी. उंचायेचो आसा. थंयसावन उदेंतेवटेन खोल अरुंद दऱ्यो आनी अस्तंतेवटेन देगणां पातळ्ळयांत. हांगा पिकाळ मळां आसात.




जॉर्डनची खचदरी ही आफ्रिकेंतल्या व्हडले खचदरीचोच एक वांटो जावन आसा. तातूंत समुद्र थरापरस सुमार ३९७ मी. सकयल आशिल्लो मेल्लो दर्या (Dead Sea) आसा. संवसारांतलो सगळ्यांत उणे उंचायेचो हो वाठार जावन आसा. यार्मूक न्हंय, पठाराच्या दोनूय कडांनी व्हांवपी न्हंयो आनी टायबीरीयस सरोवर हांचें उदक घेवन जॉर्डन न्हंय मेल्ल्या दर्याक उत्तरेखटेन मेळटा.

**हवामान:** भूंयमध्य समुद्रालागीं आशिल्ल्यान आनी समुद्र थरासावन उंचायेक लागून हांगाच्या हवामानाचेर परिणाम जाला. अम्मान ह्या ७२० मी. उंचायेक आशिल्ल्या राजधानीच्या शारांत सरासरी म्हयन्याळें तापमान ७° से. ते ३१° से. आसता; जाल्यार जेरिको ह्या समुद्रथराखाल १५० मी. आशिल्ल्या शारांत तापमान १६° से. तर ३२° से. आसता.

वाऱ्याची दिका सादारणपणान अस्तंत आनी नैर्ऋत्य आसता. पावस उत्तरेखटेन ४० सेंमी. सावन दक्षिणेवटेन १० सेंमी. मेरेन उणो जायत वता; तो शियाळ्यांत पडटा. दोनूय पठारी वाठारांनी सुमार ४० सेंमी., जाल्यार जॉर्डनच्या देगणांत पावस सुमार २० सेंमी. पडटा. वाळवंटांनी तो केन्नाय सुमार ५ सेंमी. पडटा. पठारी वाठारांत केन्नाकेन्नाय हिम पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात:** पठारांचेर भूंयमध्य समुद्राच्या प्रकारची, उदेंत वाठारांनी वाळवंटांनी वाडपी आनी उण्या पावसाच्या वाठारांनी स्टेप प्रकारची वनस्पत दिसून येता. रानदुकर, रानबोकड, आयबेक्स, सोंसो, कोलो, रानमाजर, खोकड, तरस, कोलसुणें, गॅझेल हरण, मुंगस, चिंचुद्री, केन्नाकेन्नाय चितो, तशेंच शेड्डो आनी विंचू, भांगरा कोराचो गरुड, गिदां, पाखे, तितर ह्या सारकीं सुकणीं हांगा सांपडटात.

**इतिहास:** राजकी नदरेन हालींचें जॉर्डन राज्य जरी दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत अस्तित्वांत आयलें, तरी ह्या वाठारांत सुमार साडेतीन हजार वर्सांपयलींसावन राजकी घडणुको आनी सत्तांतरां जायत आशिल्लीं. इ.स.प. सोळाव्या शतमानासावन इ.स.प. धाव्या शतमानामेरेन ह्या वाठारांत अरब, ग्रीक आनी रोम सत्ता येवन गेल्यो. इ.स.प. तेराव्या शतमानांत हालींच्या जॉर्डनच्या अस्तंत वाठारांनी हिब्रू लोकांनी स्वतंत्र राज्याची थापणूक करूंक सुरवात केल्ली. इ.स. सातव्या शतमानांत मुस्लीम अरबांनी ह्या वाठाराचेर जैत मेळोवन ताचो आस्पाव सिरियांत केलो. बाराव्या शेंकड्यांत कांय वाठार क्रूझेडर्सच्या हातांत आशिल्लो. सोळाव्या शेंकड्यासावन पयल्या म्हाझुजामेरेन हो वाठार तुर्कस्थानांत आशिल्लो. १९१८ त तुर्कांक थंयसावन धांवडावन घालून हो वाठार पॅलेस्टाइनावांगडा ट्रान्स-जॉर्डन ह्या नांवान ब्रिटिशांचे देखरेखीखाला आयलो. हेजॅल हांगाच्या इब्न हुसेन हाचो पूत अब्दुल्ला हाची ब्रिटिशांनी ट्रान्स-जॉर्डनचो अमीर म्हूण नेमणूक केली (१९२२). १९२३ सावन देशाचे स्वायत्ततेविशीं प्रस्न उप्रासले आनी निमणो १९४८ त अब्दुल्ला जॉर्डनचो राजा जालो. ताणें तो मेरेन ब्रिटिशांच्या पालवान ह्या वाठाराची उदरगत केल्ली. पीक आनी ग्लब ह्या ब्रिटीश अधिकाऱ्यांच्या पालवान 'अरब लीजन' नांवाचें ल्हान पूण हुशार सैन्य उबारिल्लें. दुसऱ्या म्हाझुजांत ह्या सैन्यान मोलादीक वावर केलो. १९४४-४५ त ट्रान्स-जॉर्डन, अरब लीगाचे थापणुकेवेळार वांगडी जालो.

ब्रिटनान ट्रान्स-जॉर्डनच्या सार्वभोवमतपणाक मान्यताय दिली. ब्रिटनाचो पालव आनी आदार ह्या देशाक चालूच उरलो. मे १९४८ त, इझ्राएलची थापणूक जाली आनी अरब राश्ट्रां पॅलेस्टाइनच्या वाठारांत पावलीं. ट्रान्स-जॉर्डनान जॉर्डन न्हंयचे अस्तंतेचो पठारी वाठार आनी जेरुसलेमचो पोरनो वाठार आपल्या हाताखाला घेतलो. ह्या इझ्राएल अरब झुजांतल्यान सुमार ५ लाख पॅलेस्टाइन अरब, जॉर्डनांत पळून आयले. झुजबंदेउपरांत ट्रान्स-जॉर्डनान आपल्या हाताखाला घेतिल्लो ५,८७९ चौ. किमी. चो वाठार स्वताचकडेन दवरलो. २६ एप्रिल १९४९ दिसा ट्रान्स-जॉर्डनाचें नांव 'हॅशेमाइट किंगडम ऑफ जॉर्डन' अशें दवरलें. १९५० त तांणी सत्तेखाला घेतिल्लो सगळो वाठार त्या राज्याक जोडलो. संयुक्त राश्ट्रांची कबलात घडोवन हाडपाचे यत्न फळादीक न जाल्ल्यान जॉर्डन-इझ्राएल शीम बंद जाली आनी शिमेच्या प्रस्नावयल्यान कटकटी आनी झूजां चालुच उरलीं.

जुलय १९५० त, जॉर्डनच्या अब्दुल्लाचो जेरुसलेमांत खून जालो. ताचो व्हडलो पूत तलाल, हाणें १९५२ मेरेन राज्य चलयलें. मानसिक रोगाक लागून ताका राज्य सोडचें पडलें. ताचो व्हडलो पूत हुसेन, १९५३ त राजा जालो. जॉर्डनांत ब्रिटीश आनी अमेरिकेआड लोकांचें मत दिसान दीस वायट जायत वतालें. १९५६ त अरब लीजनचो लेफ्टनंट जनरल ग्लब हाका काडून उडयलो. जुलय १९५७ त, पयलींची १९४८ ची अँग्लो-जॉर्डन कबलात काबार जावन सगळे ब्रिटीश सैनिक थंयसावन पर्तून गेले. फेब्रुवारी १९५८ त, जॉर्डनान इराकावांगडा संघराज्याची थापणूक केली; पूण ६ म्हयन्यांभितर इराकच्या राजाक सत्तेवयल्यान काडून उडयल्ल्यान हें संघराज्य काबार जालें. अरब प्रजासत्ताकाच्या कटाच्या दुबावान हुसेनान ब्रिटनाचो पालव घेतलो. जॉर्डनचो अरब राश्ट्रांवांगडा संबंद इबाडलो. १९६७ त अरब-इझ्राएलामदीं झूज जालें. तेन्ना जॉर्डनाक ईजिप्तावांगडा उलोवणी करचीं पडलीं. अरब राश्ट्रां आनी जॉर्डनाचे संबंद इझ्राएली झुजाक लागून लागीं आयले. सद्याक जॉर्डनाचो कांय वाठार इझ्राएलाचे सत्तेखाल आसा आनी अरब-इझ्राएल हांचेमदीं पुरायपणान इश्टागतीचे संबंद तयार जाल्ले नात.

**राज्यवेवस्था:** १९५२ च्या संविधानाप्रमाण देशाचें शासन राजा, विधीमंडळ आनी मंत्रीमंडळ हांच्या हातांत आसा. जॉर्डनच्या राजाक हांगा सगळ्यांत चड अधिकार आसात. तो मंत्रीमंडळाची, सेनेटचे वांगडी आनी अध्यक्ष हांची चार वर्सांखातीर नेमणूक करता. राजाचे सोयरे नाशिल्ले, ४० वा त्या परस चड पिरायेचे, सद्याचो वा पयलींचो मुखेल प्रधान, मंत्री, पयलींचे राजदूत, प्रतिनिधी मंडळाचे आदले अध्यक्ष, उण्यांत उणे 'जनरल' हुद्याचे निवृत्त सैन्यांतले अधिकारी हांची संख्या ३० आसता. विधीमंडळाचें दुसरें घर म्हळ्यार 'चेंबर ऑफ डेप्युटीज' वा प्रतिनिधीघर. हाचे वट्ट साठ वांगडी अर्दे उदेंतेवटेनचे आनी अर्दे अस्तंतेवटेनचे, उण्यांत उणे ३० वर्सां पिरायेचे, बऱ्या वर्तनाचे, वेपारी संबंद नाशिल्ले अशे ४ वर्सांखातीर वेंचून येतात. प्रतिनिधीघर आपलो अध्यक्ष वेंचता. प्रतिनिधीघरान मान्य केल्लो थाराव सेनेटाकडेन आनी थंय मान्यता मेळ्ळ्या उपरांत राजाकडेन वता. राजान तो मान्य केल्या उपरांत तो कायदो थारता. राजाक विधीमंडळ बरखास्त करपाचो आनी ताची मुदत वाडोवपाचो अधिकार आसता.

थळाव्या राज्यकारभाराखातीर जॉर्डनाचे आठ प्रांत केल्यात. तांकां 'लिवा' अशें म्हण्टात. लिवांचे फुडें 'अक्कादिया' आनी 'नवाही' अशे वांटे केल्यात. तांचो कारभार शासकीय मंडळां चलयतात. शारांनी नगरपालिका आनी गांवगिऱ्या वाठारांनी हेर संस्था राज्यकारभाराची वेवस्था सांबाळटात. हांगा विंगड विंगड विशयांचेर खासा न्यायालयां आसात. तांचेर निमाणो अधिकार राजाचो आसता.

**अर्थीक स्थिती:** शेतवड आनी मोनजात पोसप, हांकां अर्थवेवस्थेंत सगळ्यांत चड म्हत्व आसा. देशांतले ८०% लोक ह्या उद्योगांचेर आदारुन रावतात. हांगाचीं मुखेल पिकां म्हळ्यार गंव आनी बार्ली. हे भायर मको, हेर कड्डण, तीळ, घेवडे, तंबाकू, द्राक्षां, ऑलिव्ह, सफरचंद, जर्दाळू, प्लम, पीच, खाजूर, बदाम हेसारकीं पिकांय बऱ्याच प्रमाणांत जातात. जॉर्डनच्या देगणांत केळीं आनी लिंबाच्या जातींचीं फळां जातात. कांदो, लसूण, तोमातां, कोबी, फ्लावर, बटाट, काळंगां, तवशीं हांचेंय उत्पादन ह्या देशांत जाता. मेंढरां, बोकड्यो, गोरवां, उंट, घोडे, गाडवां हांकां पोसपाचो धंदो हांगा बरेच उदरगतीक पावला. रानांतल्या ओक, पायन, ज्यूनिपर, रानऑलिव्ह, पिस्ता हांच्या रुखांतल्यान बरेंच उत्पन्न मेळटा.

जॉर्डनांतल्या खणींनी फॉस्फेट, लोखण, फॉस्फरस, मँगनीज, तांबें, चिनी माती, जिप्सम, संगमरवर हीं खनिजां चड-उण्या प्रमाणांत मेळटात. बॅराइट, क्वार्टझाइट, फेल्डस्पार हीय खनिजां हालींच्या काळांत मेळूंक लागल्यांत.

अम्मानाचे उदेंतेवटेन कांय प्रमाणांत पेट्रोलियम मेळटा. ह्या देशांत ल्हान व्हड बरेच कारखाने आसात. तातूंत शिमीट, पीठ, ऑलिव्ह तेल, सिगरेटी, सोरो, शाबू, पांयतणां, फर्निचर आदींचें उत्पादन जाता. देशांत कामगार संघटनांक मान्यताय आसा.

जॉर्डनियन दिनार हें हांगाचें अधिकृत चलन. ह्या देशाची आयात, निर्यातीच्या मानान बरीच चड आसा. सावदी अरेबिया, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, जपान, ब्रिटन, अस्तंत जर्मनी, इटली हांचेकडेन चडशे आयात वेव्हार जातात. निर्यात वेव्हार इराक, सावदी अरेबिया, भारत, रुमानिया, पाकिस्तान, कुवेट हांचेलागीं जातात. पर्यटनांतल्यान पयलीं ह्या देशाक बरेच फायदो मेळटालो, पूण सद्याक कांय वाठार इझ्राएलान हाताशिल्ल्यान तो उणो जाला.

**येरादारी आनी संचारण:** १९८४ मेरेन जॉर्डनांत ६,३३२ किमी.

लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. हातूंतले ७४% पक्के आशिल्ले. १९८५ मेरेन रेल्वेमार्गांची लांबाय ६१९ किमी. इतली आशिल्ली. येरादारीखातीर रस्त्यांचो चड उपेग जाता. अकाबा हें हांगाचें मुखेल बंदर. ह्या बंदरावरवीं जॉर्डनाचे संवसारांतल्या हेर देशांकडेन संबंद येता.

'अलाइया' ही हांगाची विमानकंपनी हवाई मार्गावयली येरादारी सांबाळटा. अम्मान आनी अकाबा हांगा आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. हांगा १९८५ मेरेन ५ दिसाळीं उजवाडाक येतालीं. तेभायर हेर बरींच नेमाळींय हांगा उजवाडाक येतात. खबरेपत्रां, दूरचित्रवाणी आनी रेडिओचेर अरबी आनी इंग्लीश भाशेचो वापर जाता.

**लोक आनी समाजजीण:** उदेंतेवटेनच्या वाळवंटांनी हेडपी लोकांमदीं बेदूई बेनी सख्र, अल् हुवाईतात हे पंगड मुखेल आसात. हे भायर आनीक हेर बरेच पंगड हांगा आसात. वांशिक नदरेन सुमार ९८% लोक अरब वंशाचे आसात. सिकीसियन, आर्मेनियन, नॅस्टोरियन हे सारके अल्पसंख्यांकाचे पंगडय हांगा आसात. ९०% परस चड लोक, सुन्नी मुसलमान पंथाचे आसात. उरिल्ले कांय शिया, किरिस्तांव आनी हेर धर्मांचे आसात.

**शिक्षण:** जॉर्डनांत ९ वर्सां पिरायेमेरेन शिक्षण सक्तीचें आसा. शिक्षणाचो खर्च सरकार करता. पूण शिक्षणाच्यो व्हडल्योश्यो सवलती ह्या देशांत नात. जॉर्डन विश्वविद्यालय आनी यार्मुक विश्वविद्यालय हीं हांगाचीं मुखेल विश्वविद्यालयां आसात. कायदो, वैजकी आनी हेर वेवसायिक शिक्षण दिवपी संस्था ह्या देशांत आसात.

**भाशा आनी साहित्य:** अरबी भाशेंतल्यान ह्या देशाचे चडशे वेव्हार जातात. कांय प्रमाणांत इंग्लीश भाशेकूय म्हत्व आसा. साहित्याच्या मळार हांगा खास असो वावर जाल्लो ना.

**म्हत्वाचीं थळां:** अम्मान, झार्का, इर्बिद हीं हांगाचीं मुखेल शारां आसात. हे भायर अल् केराक, अल् मॅफ्राक, मुडॅरार, माआन, अकाबा हीं हेर शारांय म्हत्वाचीं आसात. जेरुसलेम, बेथलीएम, जेरिको, नॅब्लस, हीब्रन राम्मुन हे सारकीं इतिहासीक आनी धर्मीक थळां पर्यटकांखातीर आर्कशणाचीं थारल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

## जॉलियो-क्युरी इरॅन: (जल्म: १२ सप्टेंबर १८९७, पारीस; मरण: १७ मार्च १९५६, पारीस).

फ्रेंच भौतिकीविज्ञ. पिअॅर आनी मारी क्युरी हांची चली. सॉरबोन विद्यापीठांत आनी पारीस विद्यापीठाच्या रेडियम इन्स्टिट्यूटांत शिक्षण घेतकच आपल्या आवयच्या मार्गदर्शनाखाल तिणें संशोधन केलें. १९२६ त फ्रेदेरिक जॉलियो हाचेवांगडा ती लग्न जाली. १९३२ त आवय उपरांत रेडियम संस्थेच्या मुखेलपदाचेर तिची नेमणूक जाली.

आपल्या घरकारावांगडा तिणें अणुकेंद्रावयली न्यूट्रॉन प्रतिक्रिया (reaction) पॉझिट्रॉन उत्सर्जन (emmission) आनी अणुकेंद्रीय उजवाड विद्युतीय परिणाम ह्या विशयांचेर संशोधन केलें. जॉलियो दांपत्यान १९३४ त कृत्रिम किरणोत्सर्गाचो (कण वा किरण भायर उडोवपाच्या गुणधर्माचो) सोद लायलो.

तांणी बोरोन, अॅल्युमिनियम आनी मॅग्नेशियम ह्या मूलद्रव्यांचेर आल्फा कणांचो भडिमार करून नवीं तयार जाल्लीं मूलद्रव्यां हीं अनुक्रमान नायट्रोजन, फॉस्फॉरस आनी अॅल्युमिनियम हांचे किरणोत्सर्गी समस्थानिक (Radioactive Isotopes) आसात, अशें रसायनीक विश्लेशणावरवीं सिध्द केलें. ह्या म्हत्वाच्या वावराखातीर जॉलियो जोडप्याक, १९३५ चो रसायनशास्त्राचो नोबेल पुरस्कार फाव जालो.

१९३६ त शास्त्रीय संशोधनाच्या सरकारी खात्यांत उपसचिवपदाचेर तिची नेमणूक जाली. फ्रेंच अणुऊर्जा समितीचे संघटनेखातीर तिणें १९४६ सावन आपल्या घरकारावांगडा कार्य केलें; पूण तांचे कम्युनिस्ट विचारसरणेक लागून १९५१ त, तांकां ह्या कामावयल्यान काडलीं. १९४७ त सॉरबोन विद्यापीठांत प्राध्यापक आनी थंयच्या रेडियम प्रयोगशाळेची संचालिका म्हूण तिची नेमणूक जाली. कितलीशींच वर्सां किरणोत्सर्गी पदार्थांकडेन संपर्क आयिल्ल्यान तिका रगताचो कर्करोग (leukemia) जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## जॉलियो फ्रेदेरीक: (जल्म: १९ मार्च १९००, पारीस; मरण: १४ ऑगस्ट १९५८, पारीस).

एक नामनेचो फ्रेंच भौतिकीविज्ञ. अभियांत्रिकी आनी रसायनशास्त्राचो अभ्यासक्रम सोंपयतकच पारीस हांगाच्या 'रेडियम इन्स्टिट्यूट' हातूंत ताची १९२५ त प्राध्यापकपदाचेर नेमणूक जाली. क्यूरी दांपत्याची चली ईरेन हिचेवांगडा १९२६ त लग्न जातकच, क्यूरी हें नांव चिरंजीव उरचें, ह्या हेतान ताणें झॉल्यो-क्यूरी हें नांव घेतलें.

क्युरी जोडप्याचेंच कार्य फुडें व्हरून जॉलियो दांपत्यान १९३२ त पोलोनियमापसून उत्सर्जित जावपी आल्फा कणाविशीं संशोधन केलें. ह्या संशोधनाच्या आदारानूच फुडें जेम्स चॅडविक हाणें न्यूट्रॉनाचें अस्तित्व सिध्द केलें. झॉल्यो जोडप्यान १९३४ त कृत्रिम किरणोत्सर्गाचो (कण वा किरण भायर उडोवपाच्या गुणधर्माचो) सोद लायलो. तांणी बोरोन, अॅल्युमिनियम आनी मॅग्नेशियम ह्या मूलद्रव्यांचेर आल्फा कणांचो भडिमार करून नवी तयार जाल्लीं मूलद्रव्यां हीं अनुक्रमान नायट्रोजन, फॉस्फॉरस आनी अॅल्युमिनियम हांचें किरणोत्सर्गी समस्थानिक (Radioactive Isotopes) आसात, अशें रसायनीक विश्लेशणान सिध्द केलें. ह्या म्हत्वाच्या सोदाखातीर जॉलियो दांपत्याक १९३५ चें रसायनशास्त्राचो नोबेल पुरस्कार फाव जालो.

फ्रेदेरीक जॉलियो हाणें १९३९ त अणुकेंद्रिय विघटनांतल्या न्यूट्रॉन उत्सर्जनाचो सोद लायलो. उपरांत जॉलिओ दांपत्यान अणुकेंद्रावयली न्यूट्रॉन प्रतिक्रिया, पॉझिट्रॉन उत्सर्जन आनी अणुकेंद्रिय उजवाड विद्युतीय परिणाम हांचेविशीं संशोधन केलें. १९४८ त फ्रेदेरीक हाणें 'मेझेट्रॉन ब्लेंडा' (Mesetron Blenda) ह्या नव्या मूलकणाचो सोद लायलो. युरेनियम अणूंतल्या शृंखला प्रक्रियेविशीं ताणें केल्या संशोधनाचो निमण्या अणु-विघटनांत खूब उपेग जालो.

फ्रेदेरीक हाणें १९३७ त कॉलेज द फ्रांस हांगा भौतिकीचें प्राध्यापकपद स्वीकारलें आनी थंयच ताणें वेगवेगळ्या आणवीय संशोधन प्रयोगशाळांच्या कार्याक संघटित स्वरुप हाडलें. १९४६ त फ्रेंच अणुऊर्जा समितीच्या उच्चाधिकारीपदाचेर ताची नेमणूक जाली, पूण ताचे कम्युनिस्ट विचारसरणेक लागून १९५१ त ताची नेमणूक रद्द थारायली. १९५६ त ताची पारीस विद्यापीठांत प्राध्यापकपदाचेर नेमणूक जाली.

- कों. वि. सं. मं.

## जिना, महंमद अली: (जल्म: २० ऑक्टोबर १८७५, कराची; मरण: ११ सप्टेंबर १९४८, कराची).

पाकिस्तानाचो जनक. मुसलमानांच्या अल्पसंख्य अशा एका खोजा घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताचो बापूय कराचींत वेपारधंदो करतालो. मुळावें शिक्षण कराचींत घेवन ताका फुडल्या शिक्षणाखातीर मुंबय धाडलो. मागीर इंग्लंडाक वचून ताणें कायद्याचो अभ्यास केलो. धर्मीक चालीरितींक तो मानीनासलो. १९१८ त ताणें पारशी बायलेकडेन लग्न केलें.

लंडनांत आसतना ताणें ब्रिटिशांचे राजकी पध्दतीचो अभ्यास केलो. तेन्नाचो ब्रिटीश उदारमतवादी फुडारी ग्लॅडस्टन हाच्या विचारांचो जिनाचेर खूब प्रभाव पडलो. दादाभाई नौरोजी हाणें ब्रिटीश पार्लमेंटाची वेंचणूक लडयली; त्या वावरांत जिनान ताका मोलाचो पालव दिलो. शिक्षण सोंपतकच बॅरिस्टर जिना इ.स. १८९९ त हिंदुस्थानांत परत आयलो आनी ४-५ वर्सांभितर ताणें ऊंच पांवड्याचो हुशार वकील म्हूण नांव मेळयलें. गोपाळकृष्ण गोखले, सर फिरोजशहा मेहता हांचो वांगडी म्हूण काम करतना कॉंग्रेस फुडारी म्हूण तो मुखार आयलो. ताणें कॉंग्रेसच्या इ.स. १९०६ च्या कलकत्ता अधिवेशनांत वांटो घेतलो.

विसाव्या शेंकड्याच्या आरंभाक सावन भारतांतल्या मुस्लिम

फुडाऱ्यांची नदर बदलत गेल्ली. मुस्लिमांक स्वतंत्र राष्ट्र मेळ्ळयाबगर तांच्यो मागण्यो पुराय जावंच्यो नात, तांकां न्याय मेळचो ना, हिंदूंच्या भोवमताक लागून ते सदांच अल्पमतांत दुर्लक्षित उरतले अशी मुस्लिम फुडाऱ्यांची धारणा जाली. ह्या विचारांतसून इ.स. १९०६ त मुस्लिम लीगची थापणूक जाली. बॅरिस्टर जिना हाणें सुर्वेच्या काळांत मुस्लिम लीगच्या वावरांत वांटो घेवक नाशिल्लो. पूण १९१२ त, मुसलमान कुटुंबमुखेल्यांक आपले संपत्तीचो खाजगी विश्वस्तनिधी उबारपाक मान्यता दिवपी ताचें विधेयक संमत जालें. तेन्ना लीगान ताका परबीं दिलीं आनी लीगांत वांटो घेवपाक भोवमानान आपयलो. जिनाचे खटपटीक लागून कॉंग्रेस आनी लीग हांचीं अधिवेशनां बरोबर जावपाक लागलीं आनी १९१६ त नामनेची लखनौ कबलात जाली. कांय काळमेरेन जिना होमरुल चळवळींतूय आशिल्लो आनी ॲनी बेझंट हिका अटक जातकच ताका होमरूल लीगाचें अध्यक्षपद दिलें.

लोकमान्य टिळकाच्या मरणाउपरांत म्हळ्यार इ.स. १९२० त कॉंग्रेसचें नेतृत्व महात्मा गांधीकडेन आयलें. गांधीजीच्या असहकाराचे चळवळीक जिनाचो विरोध आशिल्लो. तशेंच महात्मा गांधीचे धर्मीक विचार बॅरिस्टर जिनाक पटनासले. जिनाचो पिंड नेमस्त राजकारणाचो आशिल्लो. १९२० त खिलाफत चळवळीक भरती आयिल्ली. सुर्वेक लीगाच्या आनी उपरांत कॉंग्रेसीच्या अधिवेशनांत असहकार आंदोलनाक फाटबळ दिवपी थाराव संमत जाले. लीग अधिवेशनांतल्या आपल्या अध्यक्षीय उलोवपांत जिनान स्वताचें मत परगटायलेंना. पूण प्रतिनिधींक विचार करून निर्णय घेयात, असो सल्लो दिलो. कॉंग्रेस अधिवेशनांत मात ताणें आंदोलनाक कडक विरोध केलो आनी उपरांत कॉंग्रेस सोडली. होमरुल चळवळींतूय वांटो घेवपाचें ताणें सोडलें.

१९२३ त पुराय खिळखिळ्या जाल्ल्या लीगचें जिनान पुनरुज्जीवन केलें. ताका लागून लखनौ कबलातीक आनी खिलाफत चळवळीक विरोध करून नव्यो राजकी सुदारणा राबोवपी मुसलमान फुडारी लीगांत सामील जाले. पूण थोड्याच म्हयन्यांभितर कायदेमंडळांत एकसारकीं आडमेळीं हाडून संविधानात्मक पेच तयार करपी स्वराज्य पक्षाकडेन सहकार्य करपाचो निर्णय, जिनाच्या कायदेमंडळांतल्या स्वतंत्र पक्षान घेतलो. जिना आनी मोतीलाल नेहरु हांणी मध्यवर्ती कायदेमंडळ गाजयलें. खुबदां सरकाराचो पराभव जालो. मोतीलालाचो राष्ट्रीय मागणेचो ठराव मध्यवर्ती कायदेमंडळांत संमत जालो, पूण दोन वर्सांभितर जिनान आपले भुमिकेंत बदल केलो. स्वराज्य पक्षाकडेन संबंद तोडून तो सुदारणा राबोवपाची भास उलोवपाक लागलो.

डिसेंबर १९२७ त, कॉंग्रेस आनी जिना-लीग हांच्या वेगवेगळ्या अधिवेशनांत एकेच धर्तीचे थाराव संमत जाले. कॉंग्रेसीन स्वतंत्र हिंदुस्थानाची राज्यघटना तयार करपाखातीर सगळ्या पक्षांची परिशद आपयली. पूण जिना-लीगान हे परिशदेकडेन वा तिणें नेमिल्ले नेहरु समितीक पालव दिलोना. १९२८ च्या मध्याक लखनौचे सगळ्या पक्षांचे परिशदेन नेहरु अहवालाचो पयलो आराखडो मानून घेतलो आनी व्हडली समिती नियुक्त केली. पूण जिनान हे समितीच्या कामकाजांत वांटो घेतलोना. निमाणो पक्को आराखडो तयार जावन, तो डिसेंबर १९२८ च्या कलकत्ता हांगा भरिल्ले परिशदेमुखार आयलो. तेन्ना जिनान नेहरू अहवालांत मुस्लिम अल्पसंख्य आसात, त्या प्रांतांतल्या मुसलमानांक केंद्र कायदेमंडळांत प्रमाणापरस चड प्रतिनिधित्व, केंद्रीय कायदेमंडळांत मुसलमानांक ३३ टक्के राखीव जागे आनी कांय हेर मागण्यो मांडल्यो. शीख, ख्रिस्ती ह्या अल्पसंख्यांकांनी हाका विरोध केलो. परिशदेन जिनाची मागणी मान्य केली ना. हाचे उपरांत चार दिसांनी दिल्ली हांगा जिनाविरोधकांची परिशद भरली. तातूंत ताणें वेगळ्या मतदारसंघासयत जायत्या मागण्यांचो मसुदो तयार केलो.

१९३०-३२ वर्सा गोलमेज परिशदो भरल्यो. ताचेखातीर जिनाक खास आमंत्रण आशिल्लें. लंडनांतल्या ह्या परिशदांत ताणें चवदा मागण्यो मांडल्यो आनी कबलात घडोवन हाडपाचे यत्न केले. संघराज्याची स्थापणूक, अल्पसंख्याकांक चड हक्क, केंद्रीय कायदेमंडळांत मुस्लिमांचे एक तृतीयांश प्रतिनिधी, मुस्लिमांचो आंकडो चड आसा असो कांय वाठार तेन्नाच्या मुंबय प्रांतांतल्या सिंधाक जोडचो, वायव्य सरहद्द प्रांतांतली सुदारणा ह्या मागण्यांचो तातूंत आस्पाव आशिल्लो. पूण ह्यो मागण्यो मान्य जाल्यो नात. गोलमेज परिशदेंत मुस्लिम शिश्टमंडळाचें फुडारपण आगाखानाकडेन आशिल्लें. गोलमेज परिशदो सोंपतकच जिनान इंग्लंडांतूच स्थायिक जावपाचें थारायलें. इ.स. १९३०-३५ ह्या काळांत तो थंयच रावलो; पूण हिंदुस्थान जेन्ना स्वातंत्र्याच्यो आनी घटनात्मक सुदारणा मेळोवपाच्या एकदम लागीं पावलो, तेन्ना मुस्लिम फुडाऱ्यांनी ताका खूब आग्रो केलो आनी तो हिंदुस्थानांत परत आयलो. ताणें लीगाची जापसालदारकी सांबाळ्ळी आनी ताच्या मरणामेरेन ताणें लीगाचो सर्वाधिकारी म्हूण काम केलें.

१९३८ च्या शेवटाक सिंध-मुस्लिम लीगान देशाचे फाळणीची मागणी केली. हिंदुस्थानांतल्या सगळ्या मुसलमानांखातीर वेगवेगळीं राज्यां आनी मुस्लिम संस्थानिकांक सार्वभौमत्व दिवपी कितलेशेच पर्याय फुडें आयले. १९३९ त दुसरें म्हाझूज सुरू जालें आनी हिंदुस्थानांतल्या राजकीय घडामोडींक नेट आयलो. त्याच वर्सा कॉंग्रेस मंत्रिमंडळान राजीनामे दिले (२२ डिसेंबर १९३८). निमाणे मार्च १९४० त भरिल्ल्या लाहोरच्या लीग अधिवेशनांत द्विराष्ट्रवादाच्या आदाराचेर स्वतंत्र मुस्लिम राष्ट्राची मागणी अधिकृतपणान जाली. ताच्या फुडल्या वर्साच्या मद्रास अधिवेशनांत जिनान स्वतंत्र द्राविडीस्तानचे मागणेक जाहीर फाटबळ दिलें. १९४२ तले क्रिप्स येवजणेप्रमाण खंयच्याय प्रांताक वा देशी संस्थानिकाक फुटून वचपाचो अधिकार मेळ्ळो आनी देशाचें विघटन जावपाचें संकश्ट उबें रावलें. ताचेआड सुरू केल्ल्या 'छोडो भारत' आंदोलनाचो जिनान धिक्कार करून मुसलमानांचेर हिंदू राज्य लादपाखातीरुच हें आंदोलन सुरू केलां, असो प्रचार केलो. कॉंग्रेस फुडाऱ्यांनी राजीनामे दिल्ले, त्या काळांत ब्रिटीश सरकाराच्या आदारान लीगान चार प्रांतांत सरकारां स्थापन केलीं. लीग संघटनाय बळिश्ट जाली. फाळणी जावपाची आसाच जाल्यार ती लोकांचे इत्सेन आनी थंड वातावरणांत जावंची, म्हूण 'राजाजी येवजण' मांडली.

पूण गांधीजीवांगडा जाल्ल्या वाटाघाटींत राजाजी येवजणेंत सुचयिल्लें अर्दकुटें पाकिस्तान आपूण केन्नाच पत्करपाचो ना, अशें जिना हाणें सांगतकच ह्यो वाटाघाटी मोडल्यो. १९४५ चे सुर्वेक कॉंग्रेस-लीग पालवाची भुलाभाई देसाई आनी लियाकत अली खान हांची संयुक्त येवजणूय जिनान मानून घेतलीना. १९४५ च्या मध्याक भरिल्ले सिमला परिशदेंत जिनान अवास्तव मागण्यो मांडिल्ल्यान कॉंग्रेस, लीग आनी हेर पक्षांचें हंगामी सरकार स्थापन जावंक पावलेंना.

१९४५ चे अखेरेक भौशीक वेंचणुको जाल्यो, तातूंत सरहद्द प्रांत सोडून हेर सगळेकडेन लीगाक मुस्लिम मतदारांचें उपाट फाटबळ मेळ्ळें. निमण्या वाटाघाटींखातीर आयिल्ल्या 'कॅबिनेट' शिश्टमंडळान राजाजी येवजणेंतल्याभशेन ल्हान पाकिस्तान दिवपाचें थारायलें. तें जिनान न्हयकारलें, तेन्ना जिनाक जाय आशिल्ल्या मोट्या पाकिस्तानाची दोन विभागांत वांटणी करून तांकां पुराय स्वायत्तता दिवन केंद्र सरकाराक फकत राखण, परराष्ट्र वेव्हार आनी येरादारी इतलींच खातीं दिवपाची येवजण कॅबिनेट शिश्टमंडळान मांडली.

कॉंग्रेसीक ही येवजण मान्य जावंची ना आनी लीगाक हंगामी सरकाराची थापणूक करपाक मेळटली, असो जिनाचो अदमास आशिल्लो. लीग कौन्सिलान हे येवजणेवयलीं व्हडलें पाकिस्तान स्थापन करपाचें सपन साकार जातलें, अशें जाहीर करून ही येवजण स्वीकारली. आपल्या उलोवपांत संविधान समितींत आपूण आडखळ करतलों आनी संविधान जाय मेरेन संस्थानां संघराज्यांत सामील जावपाचो प्रस्न उप्रासचोना अशें जिनान स्पश्ट केलें.

जून १९४७ त, नवो व्हाइसरॉय माउंटबॅटन हाणें फाळणीची येवजण मांडली. तातूंत दिवपाक केल्लें पाकिस्तान जिनान पत्करलें आनी देशाची

फाळणी जाली. जिनाचें फुडारपण आनी मुत्सद्देगिरी जैतीवंत जाली आनी स्वतंत्र पाकिस्तानची निर्मिती जाली.

महंमद अली जिना पाकिस्तानाचो पयलो गव्हर्नर आनी पाकिस्तान संविधान समितीचो अध्यक्ष जालो. नव्या राश्ट्राच्यो कांय समस्याय ताणें सोडयल्यो. सुर्वेक ताणें धर्मातीत राज्यघटना निर्माण करपाचेर भर दिल्लो; पूण डिसेंबर १९४७ च्या लीग अधिवेशनांत पाकिस्तान हें मुस्लिम राश्ट्र जातलें, अशें ताणें जाहीर केलें. पाकिस्तानचो गव्हर्नर जनरल म्हूण उर्देत पाकिस्तानच्या दौऱ्याचेर आसतना उर्दू हीच पाकिस्तानाची राश्ट्रभाशा जातली, अशी घोशणा केल्यान थंयच्या बंगाली विद्यार्थ्यांनी ताचेआड निदर्शनां केलीं. पाकिस्तान राश्ट्राचो जनक म्हूण आर्विल्ल्या इतिहासांत जिनाक म्हत्व प्राप्त जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**जिनीव्हा:** स्वित्झर्लंडच्या जिनीव्हा कँटनची (Canton) आंतरराश्ट्रीय म्हत्वाची राजधानी. जिनीव्हा कँटनचें वट्ट क्षेत्रफळ: २८२ चौ.किमी.; मुखेल शाराचें क्षेत्रफळ: ६२ चौ.मैल.; लोकसंख्या: १,५९,९०० (१९८७) आसून उपनगरांसयत ३,६२,१०० (१९८६) इतली आसा. जिनीव्हा सरोवरांतल्यान ऱ्होन न्हंय जंय पावता, थंय हें शार आसून 'लघु नगरांची राणी' अशें जिनीव्हाचें वर्णन करतात. स्वित्झर्लंडचे भुंयेचेर आसा, म्हूण ताका स्विस नगर म्हण्टाले. आंतरराश्ट्रीय रेडक्रॉस, आंतरराश्ट्रीय श्रमिक संघटना, संवसारीक भलायकी संघटना आनी हेर १५० वयर आंतरराश्ट्रीय संघटनांची मुखेल कार्यालयां हांगा आसात. १९२० सावन राश्ट्रसंघाची कचेरी हांगा आशिल्ली आनी आतां संयुक्त राश्ट्र संघटनेचें युरोपीय कार्यालय जिनीव्हाकूच आसा. हांगाच्या लोकांत १९७० त ३४% परदेशी, मुळचे जिनीव्हांतले ३०% आनी उरिल्ले हेर स्विस कँटनातल्यान आयिल्ले. सदच्या इटली आनी फ्रांसांतल्यान आयिल्ले लोक तशेच स्पेन, पोर्तुगाल, अमेरिका, आशिया, आफ्रिका हांगासावन आयिल्ले आप्रवासी (Immigrants) आशिल्ले. पयलींचे 'प्रोटेस्टंट रोम' हें खाशेलेपण वचून आतां थंय कॅथलिकांचो आंकडो चड आसा.

आल्प्स आनी जूरा दोंगरामदले वाटेचेर नियंत्रण दवरपी आनी इटलींत वचपी बऱ्याच खिंडीचें केंद्र अशी मोक्याची सुवात जिनीव्हाक मेळ्ळ्या. जिनीव्हा सरोवराचो सोबित देखाव, ऱ्होनची नितळ-निळी न्हंय, ताचेवेलो सुंदर पूल, सालेव्हचे ऊंच-ऊंच सुळके (tusks) आनी जूरा दोंगरांची वळ, शामॉनी देगणांत दिसपी 'माँ. ब्लां' वा 'मौंट ब्लँक' हें आल्प्सचें सगळ्यांत ऊंच तेमक, न्हंयच्या आनी सरोवराच्या पात्रांत भोंवपी ल्हान व्हड बोटी, हांकां लागून जिनिव्हाक एक वेगळीच सोबीतकाय आयल्या.

शाराचें शांत वातावरण आनी मनभुलोवणी सैमाची सोबितकाय हाकालागून कितल्योशोच आंतरराश्ट्रीय बसका, परिशदो जिनीव्हाक भरतात. १९५४ ची कोरिया-इंडोचायना झूज-समाप्ती परिशद, १९५५ ची शीतझूज थांबोवपाखातीर जाल्ली शिखर परिशद, १९६२-६३ ची नि:शस्त्रीकरण आनी अण्वस्त्रचाचणी विशींची परिशद ह्यो मुखेल परिशदो हातूंत आस्पावतात. १८६४ ते १९४९ ह्या काळांत झुजांत आनी झुजकाळांत सैनिकांक आनी नागरिकांक मेळपी अमानुश वागणूक आळाबंदा हाडपाक आनी झुजाच्या वायट परिणामांची खरसाण उणी करपाखातीर जे जे आंतरराश्ट्रीय तह-संकेत जाले, तांकां 'जिनीव्हा झूजसंकेत' अशें म्हण्टात.

शासकीय, अर्थीक आनी संवसारीक सांस्कृतीक केंद्र म्हूण स्वित्झर्लंडांत जिनीव्हाक खूब म्हत्व आसा. जिनीव्हा हें स्वित्झर्लंडचें मुखेल उद्देगीक केंद्र आसून हांगा जायत्यो बँको आनी हेर अर्थीक वेवसाय केंद्रां आसून घडयाळां, मोटारी, सायकली, ॲल्युमिनियम हांचे व्हडले कारखाने आसात. तरेकवार कपडे, अलंकार, आभूशणां हांचे विंगड विंगड वेवसाय हांगा चलतात. हालींच्या काळांत हांगा जलविद्युत् उत्पादनाखातीर लागपी टर्बाइन्स आनी आल्टर्नेटर, विद्युत् सामग्री आनी हेर यंत्रां आनी उपकरणां हांचें उत्पादन जाता.

जिनीव्हाचे सुंदर इमारतींत तेराव्या शेंकड्यांतलें सेंट पीटर कॅथीड्रल, सोळाव्या शेंकड्यांतलें नगरभुवन, अठराव्या शेकड्यांतलें न्यायालय आनी आर्विल्ल्या काळांतलें राश्ट्रसंघ भवन हांचो आस्पाव जाता. हांगा ओडलायणी उद्यानां, व्हडलीं स्मारकां, वेधशाळा, जनावरांचीं आनी वनस्पती संग्रहालयां आसात. जिनीव्हा हें इतिहासीक शार आसा. पूर्विल्ल्या काळांतल्या अल्लोब्रोजेस पंगडाचेर जैत मेळोवन रोमनांनी हें ठाणें काबीज केल्लें. रोमनांउपरांत पवित्र रोमन साम्राज्यांतल्या सरंजामी सरदारांची सत्ता हांगा आशिल्ली. धर्मसुदारणेचे चळवळींत हांगा कॅल्व्हिनचो प्रभाव वाडलो. ताणें सुरू केल्ले अकादेमीचेंच रुपांतर जिनीव्हा विद्यापीठांत जालें. रुसो, व्हॉल्तेरसारक्या विचारवंतांचें निवासस्थान आशिल्ल्यान फुडारिल्ल्या विचारांचें केंद्र म्हूण एकुणिसाव्या शेंकड्यांत जिनीव्हा नांवारुपाक आयलें. व्हिएन्ना परिशदेउपरांत हाका स्वतंत्र कँटनचो पांवडो मेळ्ळो. १८४२ त हालींचें संविधान आपणावन जिनीव्हाच्या आर्विल्ल्या इतिहासाक सुरवात जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**जिप्सी:** संवसारांतल्या विंगड विंगड भागांत पातळिल्ली एक हेडपी जमात. संवसारांतल्या चडशा ल्हान-व्हड देशांत, खास करून युरोप खंडांत तांची वसती चड प्रमाणांत आसा. तांकां राश्ट्रीयत्व ना. जिप्सींक नांवां खूब आसात, पूण एकाय नांवावेल्यान तांच्या देशाचो थाव लागना. 'जिप्सी' हें उतर 'ईजिप्शियन' ह्या शब्दावेल्यान आयलां. युरोपांत येवपी पयल्या जिप्सीक 'माणकुल्या ईजिप्तचे धनी' (The Lords and Earls of Little Egypt) अशें म्हण्टाले. फ्रेंच लोक तांकां 'बोहेमीयन' म्हूण वळखतात. स्पेनचे लोक जिप्सींक 'फ्लेमिश' अशें म्हण्टात. स्वीडीश लोक तांकां 'तातार' म्हण्टात.

तांचें मूळस्थान भारताचे वायव्येकडल्या हिंदुकुश पर्वताच्या मुळसाकडेन आसूंक जाय, अशें म्हण्टात. ते भारतांतल्यान नेमके केन्ना आनी कित्याक भायर सरले, हाचें कारण मेळना. इकराव्या शेंकड्याचे सुर्वेक ते भोंवत भोंवत पर्शियांत पावले. थंय तांकां दोन फांटे फुटले. कांय जाण दक्षिण आनी अस्तंत दिकेन ईजिप्त आनी उत्तर आफ्रिकेक गेले, जाल्यार कांय जाण उत्तर दिकेक युरोप आनी बाल्कन भागांत गेले. पश्चिम हंगेरीकसावन १४१७ त, ते पश्चिम जर्मनीत पावले. १४२२ वर्सा बोलोग्ना आनी १४२७ त, ते पारीसाक पावले. सोळाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक जिप्सी लोक रशिया, पोलंड, ग्रेट ब्रिटन आनी स्वीडन हांगा पातळ्ळे, अशे उल्लेख मेळटात. तांची लोकसंख्या ५० लाख (१९६१) इतली आशिल्ली. विसाव्या शेंकड्यांत ते मेक्सिको-ऑस्ट्रेलिया हांगा पावले.

जिप्सी, घोड्याचे गाडयेंतल्यान गांवांगांवांनी हेडत आसतात. तात्पुरते तंबू ठोकून ते एका जाग्यार रावतात आनी चड काळ थंय वसणूक करीनासतना रोखडीच सुवात बदलतात. रोमानी ही इंडो-इराणी भाससमूहांतली भास ते उलयतात. भारतीय भासांतली कितलींशींच उतरां तातूंत आयल्यांत.

जिप्सींचो इतिहास तांच्या छळाविशीं पुराय भल्ला. मेसीनाची खाडी ते बाल्टीकमेरेन आनी रशिया ते स्पेनमेरेन सगळ्या प्रदेशांत जिप्सींची सदांकाळ गुलामी जाली. तांचो छळ करून तांकां 'जिप्सी' म्हूण जिते लेगीत मारले. १७०१-५० मेरेन जर्मनीत आनी ऑस्ट्रियांत सरकारान जिप्सींक बंधनां घालपी वट्ट ६८ शासन-कायदे काडले. सोळाव्या शेंकड्यांत इंग्लंड सरकारान असो कायदो काडलो की 'जे जिप्सींवांगडा लग्न जातले, तांकां न्यायालयाचे चवकशेबगर सरळ गुन्यांवकारी थारायतले आनी मरणाची ख्यास्त भोगयतले.' विसाव्या शेंकड्यात जिप्सींचो खूब छळ जालो. दुसऱ्या म्हाझुजांत हिटलरान ज्यू भशेन जिप्सींचेय हाल केले आनी सुमार ५ लाख जिप्सींक बंदखणींत चिड्डून जिते मारले. संवसारांतले १०% जिप्सी हे कत्तलींत सोंपले.

इ.स. १००० च्या सुमाराक इराणांत पंगडांनी भोंवपी जिप्सींचे बेन आनी फेन अशे दोन फांटे जाले. बेन जिप्सी सिरिया, ईजिप्तवटेन दक्षिण

आफ्रिकेंत गेले तर फेन जिप्सी आर्मेनिया, ग्रीस ह्या मार्गान युरोपभर पातळ्ळे. सुर्वेक युरोपांत रावन आयज अमेरिकेंत स्थायिक जाल्ल्या कांय जिप्सींचीं आडनांवां अशीं: बॉस्वेल, कूपर, स्मिथ, स्टॅनली, वेल्स.

अठराव्या शेंकड्यासावन जिप्सींक एके सुवातेर स्थायिक करपाचे यत्न सुरू जाले. मारीया तेरेझान १७६१ वर्सा तांकां हेडपाक मना केले. अठराव्या शेंकड्यांत स्पेनचो कार्लोस-३ हाणें सोळा वर्सांसकयल आशिल्ल्या जिप्सी भुरग्यांक आवय-बापायपसून वेगळे दवरून खास शिक्षण दिवपाखातीर हुकूम काडलो. जिप्सींनी संघटीत जावपाचे खूब यत्न केले. १९३० वर्सा पोलंडांत तांणी एक राजवंशावळ (dynasty) स्थापन केली. स्टीव कॅस्लो हाणें Red Dress Gypsies नांवाची एक संस्था उबारली. पूण संघटीत जावपाचे यत्न निर्फळ जाले. येदी व्हडली जमात आसून लेगीत जिप्सींचें आंतरराश्ट्रीय संघटन ना. तरी लेगीत दर वर्सा, मे आनी ऑक्टोबर म्हयन्यांत प्रोव्हास (फ्रांस) हांगाच्या 'ले सांत मारी (Les Saintes Maries) हांगा ते एकठांय जमतात आनी तांची संत सायबीणमाय सारा हिका आर्गां ओंपतात आनी तिची उपासना करतात.

ज्या देशांत जिप्सी रावतात, त्या देशाच्या हवामानाप्रमाण, भुगोलाप्रमाण आनी अर्थीक परिस्थितीप्रमाण तांकां आपल्या जिविताकडेन तडजोड करची पडटा. जिप्सी जरी तंबूंनी, घरांनी, खोंपींनी आनी घोलींनी (स्पेन) रावले, तरीकूय चड करून ते हेडत आसतात. युरोपांत ते प्रवासाखातीर घोड्यागाडी (Caravan) वापरतात. 'व्हायीव्होदे' नांवाचो जिप्सी कुटुंबाचो मुखिया 'फुरिदाई' म्हळ्यार ज्येश्ठ बायलेच्या सल्ल्यान सगळे निर्णय दिता.

जिप्सी चड करून काळ्या वर्णाचे आसतात. मध्यम ऊंची, किडकिडीत पूण बळिश्ट, काळेनिळसर केंस, सोबीत नाजूक तोंडावळ हीं तांचीं कांय कुडीचीं लक्षणां जावन आसात. तांच्या उलोवपांत तोंडावेले भाव आनी हातांनी केल्ले हावभाव हाचेर चड भर दिल्लो दिश्टी पडटा. जिप्सी अस्वस्थ आनी चंचल वृत्तीचे आसतात. ते निवळसाणीचो नेम मात्तूय पाळीनात.

पोट भरून जेवपी जिप्सींक चिकन, पोर्क, भाजी हे जिनस आशिल्लें जेवण आवडटा. तांकां सोरो आनी तंबाकू भोव मानवता. जिप्सींची कायदापध्दत 'Romano Kris' न्याय आनी कायदो शासन पळेता. हे कायदापध्दतींत सगळ्यांत व्हडली ख्यास्त समाजांतल्यान धांवडावन घालप, ही जावन आसा. जिप्सीचें जल्म-मरण उक्त्यार जाता. लग्नाच्यो चालीरिती देशाप्रमाण बदलतात. जिप्सीच्या मरणाउपरांत ताचे मालकीच्यो सगळ्यो वस्तू, ताचे कारावान, ताचीं गोरवां, नश्ट करतात. जिप्सी थळावे धर्म आपणायतात. आपूण रोमन कॅथॉलिक, प्रोटेस्टंट वा मुसलमान अशें ते दाखयतात, पूण भितल्ल्यान तांचे जादूचे तंत्र-मंत्र आनी हेर देवस्पण चालूच आसता.

जिप्सी हे संगीताचे मोगी. हंगेरी, रुमानिया, स्पेन हांगा आनी हेरकडेन जिप्सी समाजांतसून संवसारीक नामना मेळयिल्ले प्रतिभावंत संगीत कलाकार जावन गेल्यात. ब्रिटनांत एका काळांत मुश्ठीझुजांतलें (Boxing) वस्तादपण जिप्सींनी मेळयल्लें.

जिप्सींचे मुखेल वेवसाय अशे: धातूकाम, घोड्यांचो वेपार, पांटले विणप, जंतर-मंतर आनी जादूचे खेळ करप, भविश्य सांगप, मातयेचीं आयदनां करून विकप, मोलां-बटण करप, फळां दिवप. जिप्सी हे खास करून संगीतकार, नर्तक आनी गायक म्हूण नामनेक पावल्यात.

हालींच्या काळांत युरोपांतल्या खूब देशांनी तांचे हे हेडपी वृत्तीक आळाबंदा हाडपाक सुरवात केल्या. तांच्या भुरग्यांक शाळेंत धाडून तांकां धंदे-शिक्षण दितात. १९५६ वर्सा रशियान एका कायद्यावरवीं जिप्सींक एके सुवातेर स्थायिक करपाची तजवीज केली. हेर कांय देशांनी फिरत्यो शाळा सुरू केल्यात आनी जिप्सींखातीर शिक्षणीक सवलती दिल्यात. हालींहालींच कांय जिप्सी स्थायिक वा अर्दस्थायिक जाल्यात. देखीक-स्पेनचे खितानो, इंग्लंडांतले जिप्सी, फ्रांस आनी जर्मनीचे मानुश वा सिंटी, मध्य युरोपांतले काल्डेरश, हंगेरींतले संगीतकार इतले यत्न करुनूय जिप्सी समाजांत फाव तो बदल जाल्लो दिसना. पूण एका जाग्यार स्थायिक जावपाची तांची प्रवृत्ती मात दिशींदिशीं वाडत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## जिब्रान, खलील:

(जल्म: ६ डिसेंबर १८८३, बिशार्री, लेबानन; मरण: १० एप्रिल १९३१, न्यूयॉर्क).

एक नामनेचो अरबी कवी, विचारवंत आनी चित्रकार. बैरुत हांगाच्या 'मदरसतुल हिकमत' हातूंत ताणें चार वर्सां अरबी साहित्याचें शिकप घेतलें. बारा वर्सां पिरायेचो आसतना तो अमेरिकेक गेलो. बॉस्टन हांगा २ वर्सां शिकप घेवन तो लेबनन हांगा परत आयलो. बापायवांगडा ताणें सिरिया, पॅलेस्टायन हांगा भोंवडी केली. चार वर्सां अरबी आनी फ्रेंच भाशा शिकल्याउपरांत, उंचेल्या पांवड्याचें शिकप घेवपाखातीर तो ग्रीस, रोम, स्पेन आनी पारीस हांगा गेलो. पारिसाक दोन वर्सां शिकल्या उपरांत जिब्रान बॉस्टनाक परतलो. अभ्यासक्रमावांगडाच ताणें धर्माचो इतिहास, आंतरराश्ट्रीय कायदो, संगीत, वैजकी आदी वेगवेगळ्या विशयांचो अभ्यास केलो. नाझारेथ, बेथलहेम, जेरुसलेम, तायर, त्रिपोली ह्या शारांक भेटी दिल्यो. हे भोंवडेचो ताचे विचारसरणेचेर आनी तत्त्वगिन्यानाचेर खोल परिणाम जालो, अशें मत ताची चरित्रकार बार्बारा यंग हिणें परगटायलां. ह्या अणभवांतल्यानूच ताणें 'Jesus, the son of Man' हें पुस्तक बरयलें.



दमास्कस हांगा रस्त्यांचेर आनी मशिदींनी भोंवतना, थंय अरबी फुडाऱ्यांचीं चित्रां खंयच दिश्टी पडनात, हें ताचे मतींत आयलें. फुडें सोळावें वर्स पुराय जावचे पयलींच ताणें अरबी विचारवंतांचो तशेंच कवींचो खोलायेन अभ्यास केलो आनी आपले कल्पनेन तांचीं चित्रां रंगयलीं. उपरांत चित्रकलेंत फिशाल जावपाखातीर १९०८ त, ताणें पारिसांतले Academy of Fine Arts हे नांवाजिल्ले संस्थेंत प्रवेश घेतलो. थंय ताका ऑगस्ट रॉदां ह्या नामनेच्या शिल्पकाराच्या हातासकयल काम करपाची संद मेळ्ळी.

जिब्रानान ल्हान पिरायेचेर बरोवपाक सुरवात केली. पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा जिब्रानान 'द प्रॉफेट' (The Prophet) हो आपलो ग्रंथ बरोवपाक सुरवात केली. 'अल्-हकिकत' ह्या म्हयन्याळ्याचें पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा ताणें संपादन केलें. ताणें पितारिल्ल्या फामाद व्यक्तिचित्रांचें न्यूयॉर्क आनी बॉस्टन हांगा प्रदर्शन भरयल्लें. आपलें बरोवप उजवाडाक येवचें अशी ताची इत्सा नाशिल्ली; पूण ताचें चडशें बरोवप ताच्या बऱ्या मागप्यांनी उजवाडाक हाडलें. १९१० पसून अखेरमेरेन ताचो राबितो न्यूयॉर्क हांगा आशिल्लो.

जिब्रानाने दोन भासांनी बरप केलें. अस्तंत्या देशांखातीर इंग्लीशींत आनी अरबी देशांतल्या वाचप्यांखातीर अरबी भाशेंत. ताचे मुखेल अरबी ग्रंथ अशे: 'अराइस उल मुरुज' (१९१०, Nymphs of the Valley), 'दमह व इब्तिसामह' (१९१४, Teas and Laughter), 'अल्-अरवाह अल् मुतमर्रिद' (१९२०, Spirits Rebellious), 'अल् अजिन्नहत् अल् मुतकस्सिरह' (१९२२, Broken Wings), 'अल् अवासिफ' (१९२३ The Storms), 'अल् मवाकिब' (१९२३, The Processions), त्याभायर

ताच्या 'अल् बदाये वल तरायिफ' ह्या अरबी ग्रंथांत ताणें आर्विल्ल्या इस्लामी कवी-लेखकांचीं चित्रां फकत कल्पनेन पिंतारल्यांत. ताणें बरयल्ले इंग्लीश भाशेंतले ग्रंथ अशे: The Madman (१९१८), The Forerunner (१९२०), The Prophet (१९२३), Sand and Foam (१९२६) आनी Jesus the son of man (१९२८). १९१२ त उजवाडाक आयिल्ली जिब्रानची अरबी नवलिका 'अल् अजनिहता अल् मुतकसरा' ही अरबी साहित्यांतली सगळ्यांत बरी नवलिका अशें जाणकार मानतात. ताचें इंग्लीश रुपांतर The Broken Wings १९५९ त उजवाडाक आयलें. ताचें 'The Prophet' हें पुस्तक संवसारभर खूब गाजलां.

युरोप आनी अमेरिका सारकिल्या विचारान फुडारिल्ल्या देशांत राविल्ल्यान जिब्रानाक समाजीक जिणेकडेन पळोवपाची नवी नदर आयिल्ली. ताच्या राजकी आनी धर्मीक विचारांक लागून अरबी देशांत क्रांती जावन आपल्या स्थानाक बाधा येत ह्या भंयान तुर्कीच्या सुलतानान ताका देशाभायरो केलो. ताणें धर्म, समाजीक चालीरिती आनी कायदो हांचेआड सदांच बंड केलें आनी ताचें मोलूय दिलें. पूण ताचे कल्पनेंतलो आदर्श समाज प्रत्यक्षांत येवप शक्यूच नाशिल्लो. ताचो देवाचेर तसोच आत्म्याच्या अमरत्वाचेर विश्वास आशिल्लो. तो धर्म मानतालो पूण कर्मकांडान भरिल्ल्या धर्माच्या आड आशिल्लो. आपल्या बरपांतल्यान ताणें मनीस जिणेचेर चिंतन-मनन केल्लें दिसता. ताच्यो ललित कलाकृती ताच्या तत्त्वगिन्यानाच्या खोल अभ्यासाची गवाय दितात. आव्हेरॅयस (इब्न रशीद) (११२६-११९८) हाच्या तत्त्वगिन्यानाचो प्रभाव जिब्रानाचेर आसा अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

जिब्रानच्या ग्रंथांचे संवसारांतल्या जायत्या भाशांनी अणकार जाल्यात. मराठी भाशेंत अणकारिल्ले ताचे कांय मुखेल ग्रंथ अशे: वि. स. खांडेकर हाचे 'वेचलेली फुले' (Forerunner, १९४८) आनी 'सुवर्णकण (The Madman, १९४८); र. ग. जोशी हाचें 'प्रवासी' (The Wonderers १९४८) आनी 'जीवन-दर्शन' (The Prophet, १९४७); श्रीपाद जोशी हाचें 'मानवतेचे राखणदार' (बंडखोर आत्मे; spirits Rebellious च्या 'सरकश रुहे' ह्या उर्दू अणकारावयल्यान, १९४७) आनी 'वेडा' (The Madman १९५०); ना. ग. जोशी हाचो 'पैगंबराचा बगिचा' (Garden of the Prophet, १९४९); ना. गो. नांदापूरकर हाचो 'हसू आणि आसू' (Tears and Laughter, १९६५); वसंत शहाणे हाचो 'तुटलेले पंख' (कथांझेलो, १९४९); काकासाहेब कालेलकर हाचो 'मृगजळातील मोती' (१९५१) आनी रा. वा. चिटणीस हाचो 'भूदेव व काही रुपककथा' (१९६०). कोंकणी भाशेंत बाकीबाब बोरकार हाणें केल्लो The Prophet ह्या पुस्तकाचो अणकार, 'पैगंबर' ह्या नांवान उजवाडाक आयला. तेचप्रमाण जिब्रानाच्या The Broken Wings ह्या पुस्तकाचो कोंकणी अणकार 'तोडिल्लीं पाखां' ह्या नांवांन डॉ. आलिव्हीन्यू गॉमिश हाणें केला. बार्बारा यंग हिणें बरयिल्लें The Man from Lebanon हें जिब्रानाचें चरित्र सगळ्यांत बरें अशें मानतात.

-माधव बोरकार

**जिराफ:** गण (order)- आर्टिओडॅक्टिला, उपगण (suborder)- रुमीनांशिया, कूळ (family)- जिराफिडी.

जगांतलो सगळ्यांत ऊंच चतुश्पाद. तकलेसयत धडाची लांबाय ४ मी.; शेंपडेची लांबाय ८६ सेंमी.; खांद्याकडली उंचाय ३-४ मी.; वजन ५५०-१,८०० किग्रॅ.; रंग हळडुवोसार, ताचेर काळसर, तांबश्या रंगाचीं वेगवेगळ्या आकाराचीं खतां आसतात. सकयले (पोटाकडली) अंटेन तिबे नासतात. ताची मान खूब लांब आसून नराचे मानेचेर सरळ उब्या केंसांची आयाळ आसता. नर आनी मादी हांचे तकलेचेर मोटव्या, बोथट शिंगांच्यो एक वा दोन जोडयो आसतात आनी शिंगाचेर दाट कातीचें आवरण आसता. शिंगा १०-१५ सेंमी. लांब; शेंपडी घोंसाची; पांय लांब; बळिश्ट आनी फुडले पांय फाटल्या पांयांपरस चड लांब आसतात. दरेक पांयाक दोन व्हडले खूर आसतात. जीब सुमार ४५ सेंमी. लांब आसून ती तोंडाभायर काडूं येता. झाडाचीं पानां तोडपाखातीर तिचो उपेग जाता, ताचें नाक, कान आनी नदर तीक्ष्ण आसता. दोळे मोटे आनी तपकिरी रंगाचे आसतात. कान लांब आसतात. जिराफ आवाज काडीना, अशें म्हण्टात. पूण तो 'बँ बँ' असो बारीक आवाज काडटा.

जिराफ भित्रो, शांत आनी निरुपद्रवी आसता. तांचें १२-१५ जाणांचे कळप आसतात. केन्नाकेन्नाय ७० जिराफांचो व्हडलो कळप आसता. कळपांत एक मुखेल जाण्टो नर, मादयो, पिलां आनी वेगवेगळे पिरायेचे नर आसतात. जिराफ वराक ४७ किमी. नेटान धांवक शकता.

स्वताची राखण करपाखातीर जिराफ दुस्मानाचेर पांयांनी खोंटो मारता. पूण मादीखातीर जावपी नरांच्या धिरयांनी (झुजांत) तो तकली आनी मान हांचोच उपेग करता.

जिराफ उबो रावनूच न्हिद घेता. उदक पितना वा जमनीवेलें भक्ष्य खातना मान जमनीचेर पावची म्हूण जिराफाक फुडले पांय फांकचे पडटात वा धोंपरांत बागोवचे पडटात. सकाळ सांज तो चरता आनी दनपरां विसव घेता. जिराफ रवंथ करपी प्राणी जावन आसा. ॲकेशिया (बाभळीच्या वंशांतले), जंगली जरदाळू आदी झाडाचीं पानां तो खातात. उदक मेळ्ळ्यार ते प्रसंगाप्रमाण पितात; पूण उदकाबगर तो म्हयनोभर लेगीत रावंक शकता. हाचे जीवाश्मी अवशेश ग्रीस, दक्षिण रशिया, आशिया मायनर, भारत, चीन आनी आफ्रिकेंत सांपडल्यात. हाचेवयल्यान पूर्विल्ल्या काळांत हो प्राणी पुराय धर्तरेचेर आशिल्लो अशें म्हणूं येता. हालीं मात ताची वसती फकत आफ्रिकेंत सहाराचे दक्षिणेक आसा. नेटान चलपी ह्या अर्थाच्या 'झराफा' ह्या अरबी शब्दावेल्यान जिराफ हो शब्द आयला.

जिराफाची एकूच जात सद्या अस्तित्वांत आसा. तिचें शास्त्रीय नांव: जिराफा कॅमेलोपार डॅलिस. हाच्यो कितल्योशोच प्रजाती आसून थळा प्रमाण ताका नूबियन जिराफ, केप जिराफ, सोमाली जिराफ आदी नांवां पडल्यांत. जिराफ तणाच्या रानांनी रावता. ताच्या प्रजोत्पादनाचो काळ जुलय ते सप्टेंबर मेरेन आसता. गर्भकाळ १४-१५ म्हयने इतलो आसता. मादीक दर खेपेक एकूच पील जाता. जल्मल्या उपरांत दोन वर्सांनी आवयवांगडा भोंवपाक लागता. जिराफ १५-२० वर्सां जियेता.

- कों. वि. सं. मं.

**जिरें:** (मराठी- जिरे, गोडे जिरे; हिंदी-झिरा; गुजराती- जीरु; कन्नड-जिरिगे; संस्कृत-जीरक, दीर्घक; इंग्लीश- क्यूमिन, व्हाइट जीरा; लॅटीन- क्युमीनम सायमियम; कूळ- अंबेलिफेरी वा एपिएसी).

वर्सभर उरपी एक वखदी वनस्पत. ही वनस्पत मूळची भूमध्य दर्या लागसारच्या वाठारांतली आसा आनी सद्या तिची थंय व्हड प्रमाणांत लागवड जाता. हिमालयांत २,१७० ते २,७९० मी. उंचायेमेरेनच्या वाठारांत रानवट अवस्थेंत ही वनस्पत दिश्टी पडटा. पूर्विल्ल्या काळासावन युरोपांत जिऱ्याविशीं खबर आशिल्ली. तेचपरी इंग्लंडांत सतराव्या शेंकड्यासावन जिरें मसाल्यांत वापरतात, असो उल्लेख मेळटा. बायबल ह्या क्रिस्ती धर्मग्रंथांत जिऱ्याचो उल्लेख मेळटा. पूर्विल्ल्या काळासावन ईजिप्त आनी पॅलेस्टाइन ह्या वाठारांत ताची लागवड करतात. दक्षिण युरोप, उत्तर आफ्रिका, आशिया, अरबस्तान, चीन, मेक्सिको ह्या वाठारांनी वासाळ बियांखातीर ह्या रुखाची लागवड करतात. भारतांतल्या बंगाल, आसाम, उत्तर प्रदेश, पंजाब, राजस्थान, मध्य प्रदेश, गुजरात, महाराष्ट्र आनी तमिळनाडू ह्या वाठारांनी जिऱ्याची लागवड करतात. जबलपूर, रतलाम, गंगापूर आनी जयपूर हीं भारतांतलीं जिऱ्याचीं मुखेल वेपारी केंद्रां. श्रीलंकां, मलाया, उदेंत आफ्रिका आनी इराणाच्या आखातांतलो देश ह्या वाठारांनी भारताकडल्यान जिऱ्याची निर्यात जाता.

हे वनस्पतीची उंचाय सुमार ३० सेंमी. आसता. तिचे ताळयेचेर, बरींच वेगळायल्लीं, एका फाटल्यान एक अशीं नाजूक पानां येतात. ह्या रुखाक चंवराभशेन तुऱ्याचेर (एकसंघ तुरो) ल्हान, धवीं वा गुलाबी फुलां येतात.

जिऱ्याचें फळ पालिभेदी (Schizocorph-जायतीं बिजमयबध्द), तोंक आशिल्लें, ल्हान आनी सुकें आसता आनी ताचे दोन लांबशे भाग (०.६ सेंमी.) जातात. दरेका फळाचेर ९ उब्यो शिरो आनी खांची आसतात. ताचे भितर एक बी आसता. हीं फळां मात्शी कडवसार आनी वासाळ आसतात. तांचे खाचींत तेलाची नळी आसता आनी तातूंतल्यान २-४% उडून वचपी आनी १०% उडून न वचपी तेल आसता.

जिऱ्याच्या पिकाखातीर मध्यम हवामान, पिकाळ आनी गाळाची जमीन आनी भरपूर सारें लागता. कर्नाटक आनी तामिळनाडू वाठारांत जिऱ्याचें पीक हें पोरसांतलें पीक म्हूण मर्यादीत प्रमाणांत काडटात. नैर्ऋत्य मॉन्सूनचे सुर्वेक वा ईशान्य मॉन्सूनच्या उपरांत हें पीक काडटात. पिकाची वाड जाता आसतना ताका वत, हवेंतली ओलसाण आनी पावस सहन जायना. शिंयातेंपावेलें पीक ऑक्टोबर म्हयन्याच्या शेवटाक पेरतात आनी उबाळांतलें पीक एप्रिल म्हयन्याच्या शेवटाक पेरतात.

जिरें मसाल्यांत आनी रांदपाच्या पदार्थांत तेचपरी खावपाच्या पदार्थांतूय वापरतात. (देखीक- सार, वरण, लोणचें, चिवडो, केक आदी). जिरें उत्तेजक, आकड्यांचें आकुंचन करपी, रगत शुध्द करपी, जिवाक थंडसाण दिवपी, भूक वाडोवपी, दूद वाडोवपी (Galactagogue) आसता. उबाळाच्या दिसांनी जिवाक थंडसाण मेळपाक जिरें आनी कोथमिरेचें उदक पिवपाक दितात. आंगाच्या खंयच्याय अवयवाक सूज आयल्यार जिरें वाटून ताचो लेप लायतात. मुतपाक त्रास जावप, पोटांत किसकिसप ह्या विकारांचेर जिरें खावपाक दितात. वासाळ द्रव्यांत जिऱ्याचो उपेग करतात. जिऱ्याचें तेल काडून जातकच, उरिल्लो चोथो गोरवांक खावपाक दितात.

ह्या पिकार भुरी रोग पडटा आनी ताचेखातीर पानां काळीं पडटात. अशा वेळार झाडाचेर गंधकाचो पिठो मारतात.

**कोडू जिरें:** (मराठी- कडू जिरें; हिंदी- काली जिरी, काठे काली जिरी; गुजराती- कडवा जिरी; कन्नड- काळा (कोडु) जिरिगा; संस्कृत- वनजीरक, सोमराज, अग्निबीज; इंग्लीश- पर्पल फ्लीबेन; लॅटीन- व्हर्नोनिया अँथेल्मिंटिका; कूळ- कंपोझिटी).

उंचाय सुमार ६० ते ९० सेंमी.; सरळ, घट्ट आनी एक वर्सभर जियोवपी वखदी वनस्पत. ही वनस्पत भारत आनी श्रीलंका ह्या वाठारांनी दिश्टी पडटा. तिचीं पानां भाल्याभशेन एकाफाटल्यान एक, सादीं, सादारण कांटेरी कडो आशिल्लीं आनी दोनूय वटेन केंसाळ आसतात. डिसेंबर ते फेब्रुवारी म्हयन्यांत सुमार चाळीस फुलांचो अर्दवट फुलिल्लो तुरो येता. फळ सुकिल्लें, एकबियेचें आनी लांब दाण्याभशेन आसता. ताचेर १० उब्यो शिरो आनी केंस आसतात.

हे वनस्पतीच्यो बियो तिखट, जंतुंचो नाश करपी आनी रेचक आसून दमो, खेळणी, कातीचे विकार, धवें कोड आदींचेर उपेगी पडटा. ह्यो बियो पुश्टीक, भूक वाडोवपी आनी मूत निवळ करपी आसात. भगभगपी, सूज, उवो मारपाक आनी विंचवाच्या विखाचेर ह्यो बियो उपेगी पडटात.

**काळें जिरें:** (मराठी- काळे जिरे; हिंदी-काला जिरा; कलोंजी, मुग्रेला; गुजराती- कलोंजी, काला जीरु; कन्नड- कारिजिरिगे; संस्कृत- कृष्णजीरक; इंग्लीश- ब्लॅक क्युमीन, स्मॉल फेनेल; लॅटीन- नायगेला सॅटिव्हा; कूळ- रॅनन्क्युलेसी).

उंचाय सुमार ४५ सेंमी. मुळची अस्तंत आशिया (लेव्हँट) वाठारांतली ही वखदी वनस्पत भारतांत पंजाब, हिमाचल प्रदेश, बिहार आनी आसाम ह्या वाठारांनी लागवड केल्ली वा शेतांत तणाभशेन वाडिल्ली दिश्टी पडटा. हे वनस्पतीचीं पानां दोन वा तीन फावटीं, पिसांभशेन पूण कांय प्रमाणांत वेगळायल्लीं आसतात. तांचे खंड रेशाकृती आसतात. फुलां द्विलिंगी, लेव निळीं आनी लांब देंठाचेर एक एकटीं येतात. तांकां छदमंडल (involucre) नासता. भायलीं पांच पदिलां पाकळ्यां सारकीं आनी भितल्लीं आठ मधुप्रपिंडयुक्त (honey gland) आसतात. केसरदलां जायतीं आसतात आनी पांच ते सात किंजदलां एकठायल्लीं आसतात. किंजपुट ऊर्ध्वस्थ आनी पांच खण आशिल्लो आसता. फळ बोंडाभशेन तशेंच बियो खूब, काळ्यो आनी त्रिकोणी आसतात.

बियांपसून तेल मेळटा. तातूंत ४५-६० टक्के कारव्होन, डी-लिमोनीन आनी सायमीन आसता. बियो चिड्डून काडिल्लें तेल खावपाक वापरतात. बियांत 'निगेलीन' हें कोडू द्रव्य आसता. काळें जिरें पोटांतल्या वायूचो नाश करपी, उत्तेजक, मूत निवळ करपी, मासिक पाळी सुरू करपी, बायलांक दूद येवपाक आदार दिवपी आसा. बाळंतपणाच्या जोराचेर काळें जिरें उपेगी पडटा. बियांचो पिठो तिळेलांत घालून पुळेर आनी कातीच्या रोगांचेर लायतात. कपड्यांत ह्यो बियो दवरल्यार किडींपसून कपड्यांक बाधा जायना.

- कों. वि. सं. मं.

**जिहाद:** 'जिहाद' म्हळ्यार सदांच यत्न करीत रावप. इस्लाम धर्मशास्त्राची रचणूक जाता आसतना, ह्या उतराक 'धर्मझूज' हो अर्थ प्राप्त जालो. इस्लामाच्या प्रचाराखातीर काफिरांआड केल्लें धर्मझूज म्हळ्यार 'जिहाद' अशें म्हण्टात. कांय पंडीतांच्या मतान जिहादाचो मूळ अर्थ काम करप, उद्येग वा सामान्य संघर्श असो जाता.

सुफी पंडीतांच्या मतान जिहादाचे दोन प्रकार आसात: १. अल्-जिहादुल्-अकबर म्हळ्यार स्वताच्या विकार वासनांआड केल्लें झूज. २. अल्-जिहादुल्-अषघर म्हळ्यार परधर्मीयांकडेन केल्लें झूज. कांय पंडीतांच्या मतान जिहाद चार प्रकारचे आसतात: १. उलोवणें २. हात ३. मन आनी काळीज ४. तरसाद. उलोवण्यातल्यान आनी हातावरवीं जिहादाच्या बऱ्या वावराक तेंको दिवप आनी वायट कामाक विरोध करप, मनान वा काळजाच्या जिहादान मन शुध्द दवरून सैताना आड झुजप, तरसादीच्या जिहादान नास्तिक आनी दुस्मानांआड झगडप, असो वयल्या चारुय प्रकारांचो अर्थ जावन आसा. पैगंबराक स्वताचें रक्षण करपाक शस्त्र उखलचें पडलें, तेन्ना त्या धर्मीक संघर्शाक 'जिहाद' हें नांव पडलें. ह्या जिहादांत पैगंबराक उलोवणें आनी तरसाद ह्या दोन शस्त्रांचो उपेग जालो. हाज (मक्का) यात्रा करप म्हळ्यार सगळ्यांत व्हड जिहाद अशें पैगंबरान म्हळां.

जिहाद हें मुसलमानांचें धर्मीक कर्तव्य जावन आसा, अशें कुराण आनी अहादीसांत सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**जीओक, विल्यम फ्रांसिस:** (जल्म: १२ मे १८९५, नायगारा फॉल्स- ऑंटॅरिओ-कॅनडा).

अमेरिकन रसायनशास्त्रज्ञ. मुळावें शिकप मिचिगनच्या पब्लिक ग्रामर स्कूल आनी शालेय शिक्षण नायगारा फॉल्स कॉलेजिएट संस्थेंत जालें. घरचे गरीब परिस्थितीक लागून ताका नायगारा फॉल्स, न्यूयॉर्क हांगाच्या हूकर इलेक्ट्रो-केमिकल कंपनीचे प्रयोगशाळेंत नोकरी धरची पडली. थंयच्या रसायनीक यंत्रसंचाचें (chemical plant) संघटन आनी कार्य पळोवन ताका ताचें आकर्शण दिसलें आनी तेन्नासावन केमिकल इंजिनियर जावपाचो हावेस ताणें मनांत बाळगिलो. दोन वर्सांउपरांत ताणें कॅलिफॉर्निया विद्यापीठाच्या रसायनशास्त्र महाविद्यालयांत प्रवेश मेळयलो. १९२० त ताणें सर्वोच्च मान मेळोवन बी.एस्सी. पदवी मेळयली. १९२२ त पीएच्.डी. पदवी मेळयतकच ताची त्याच विद्यापीठांत निर्देशक (Instructor) म्हूण नेमणूक जाली. १९३४ त तो थंयच रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक जालो.

ताणें १९२६ त १° के. तापमानापरस कमी तापमान मेळोवपाखातीर अक्रमी विचुंबकीकरण पध्दत (उश्णतेचो लाव वा खर्च जायनासतना चुंबकत्व ना करपाची- Magnetic cooling method) सोदून काडली. हीच पध्दत फुडें १९५३ त डी. पी. मॅक्डूगल हाच्या सहकार्यान प्रत्यक्ष वापरपांत ताका यश आयलें. १° के. तापमानापरस कमी तापमान वापरुन करपाच्या प्रयोगांत ही पध्दत आतां वापरतात. १९२९ त एच्. एल्.

जॉनस्टन हाच्या सहकार्यान ताणें वातावरणांतल्या ऑक्सिजनांत १७ आनी १८ ह्या अणुभारांचें (Atomic Weight) ऑक्सिजनाचे समस्थानिक (अणुक्रमांक तोच पूण वेगवेगळो अणुभार आशिल्ले त्याच मुलद्रव्याचे प्रकार- Isotopes) सोदून काडले आनी अशे तरेन भौतिकीय आनी रसायनीक अणुभार-मापक्रमांतलो फरक ताणें दाखोवन दिलो. ऑक्सिजनाच्या अणुभाराचे बसकेचेर हेर मूलद्रव्यांचो अणुभार सोदून काडटात आनी ताका लागून जीओक हाचो हो सोद म्हत्वाचो आसा. उणें (low) तापमान आसतना उश्णतामापन पध्दतीन काडिल्ली वायूंची entropy मूल्यं आनी वर्णपटावरवीं (Spectroscope) काडिल्लीं entropy मूल्यां हांची तुळा करून जीओक हाणें 'सांख्यिकीय उश्मागतिकी (Statistical Thermodynamics) आनी 'उश्मागतिकीचो तिसरो नेम' (Third Law of Thermodynamics) हांची बुन्याद घट केली. ताचेवेल्यान ह्या नेमाक आशिल्ल्या भासमान आडवादांचें स्वरुप कळून येवपाक मदत जाली. ताच्या ह्या सोदाक लागून कितल्याशाच मूलद्रव्यांची आनी रसायनीक संयुगांची entropy तशेंच entrophy हातूंतलो फरक मेजप शक्य जालें.

उश्मागतिकी (Thermodynamics) ह्या विशयांतल्या मोलादीक संशोधनाखातीर आनी निरपेक्ष शून्याच्या (absolute zero) लागसार आशिल्ल्या तापमानाचे अवस्थेंत द्रव्यांच्या गुणधर्माविशींच्या अभ्यासाखातीर, जीओक हाका १९४९ वर्साचो रसायनशास्त्राचो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. जीओक हाचे ७५ वयर संशोधनपर निबंद उजवाडाक आयल्यात. ताका चांडलर, क्रेसन गिब्ज आनी लेविस हीं भोवमानाचीं पदकांय मेळ्ळयांत. कोलंबिया आनी कॅलिफॉर्निया विद्यापीठाच्यो मानादीक पदव्योय ताका फाव जाल्यात. १९३६ त ताची अमेरिकेच्या नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचो सदस्य म्हूण वेंचणूक जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**जीझिया कर:** मुस्लिम शासक आपल्या राज्यांतल्या बिगर मुस्लिम प्रजेकडल्यान एक खासा कर सक्तीन वसूल करून घेताले, ताका 'जीझिया कर' अशें म्हण्टात. बिगर मुस्लिम प्रजेच्या प्राणाचें आनी संपत्तीचें रक्षण करपाखातीर हो कर लादतात अशें सांगून मुस्लिम बादशहा ह्या कराचें समर्थन करताले. पूण प्रत्यक्षांत मात 'हो कर दियात नाजाल्यार मुस्लिम धर्म स्वीकारात' असो त्या बादशहांचो दंडक आशिल्लो. आपल्या धर्मानूच अशी आज्ञा दिल्या अशेंय ते स्पश्टपणान जाहीर करताले. हिंदूंचे प्रचंड संख्येक लागून आनी तांच्या धर्मावयले चिवट श्रध्देकलागून हो दंडक हिंदुस्थानांत मात सदांच आनी सगळ्याच बादशहांक अंमलात हाडप जमलेंना.

इस्लामी कायद्यांत बिगर इस्लामी प्रजेचे दोन प्रकार मानल्यात. मूर्तिपूजक धर्म आनी ग्रंथपूजक धर्म. ग्रंथपूजक धर्मांत किरिस्तांव, ज्यू, पारशी ह्या धर्मांचो आस्पाव आसतालो आनी त्या धर्माच्या अनुयायांक 'जिम्मी' अशें म्हण्टाले. जिम्मींकडल्यान जीझिया कर वसूल करून घेवंचो अशीय धर्माज्ञा आसा, पूण 'जिम्मी' लोकांनी इस्लाम धर्माचे सगळे कायदे पाळपाचें मान्य केलें जाल्यार तांकां जीझिया कर माफ करताले. अर्थात तांकां दुय्यम दर्जाची प्रजा अशें मानताले. हिंदू धर्माच्या अनुयायांक ही सवलत दवरूंक नाशिल्ली. हिंदूंनी धर्मांतर केलें जाल्यार तांकां जीझिया कर माफ आसतालो. पूण तशें केलें ना जाल्यार तांकां हो कर दिवपाची सक्ती आशिल्ली. जाचेर तो कर लादिल्लो आसा ताणें तो स्वता अधिकाऱ्यांमुखार वचून भरपाक जाय, अशीय ताचेर सक्ती करताले. जीझिया भरतल्याची समाजांत चडांत चड अप्रतिश्ठा जावंची आनी हेर लोक इस्लाम धर्माचे आनी प्रेषिताचे दुस्मान आसात हेंय सगळ्याक जाहीर जावंचें, असो हाचेफाटलो हेत आशिल्लो.

हिंदुस्थानांत मुसलमानांची पयली धुरी इ.स. ७११ त महमद बिन कासिम हाणें घाली. ते धुरयेपसुनूच जीझिया कर अमलांत आयलो अशें इतिहासांत मेळटा. पूण आरंभाच्या काळांत ताची वसुली तितलीशी सक्तीची नाशिल्ली. फिरोझ तुघलक आनी उपरांत सिकंदर लोदी ह्या सुलतानांच्या काळांतली जीझिया कर वसुलीखातीर केल्ली जुलूम-जबरदस्ती फारसी इतिहासकारांनी बरोवन दवरल्या. त्या काळांत आनी उपरांत खिलजी बादशहाच्या काळांतूय ह्या कराक लागून लाखांनी लोकांक इस्लाम धर्म आपणावचो पडलो.

मोगल काळांत अकबर बादशहान हो कर कांय काळ रद्द केल्लो. पूण परत शहाजहानच्या काळांत तो चालू जालो. औरंगजेबान आपल्या धर्मकोल्लिपणाक लागून जीझिया कराची सक्ती तेंगशेक पावयल्ली. २ एप्रिल १६७९ दिसा एका आदेशावरवीं हिंदूंचेर ताणें जीझिया कर बसयलो. ताच्या आदेशांत म्हणिल्लें, 'इस्लाम धर्माचो प्रसार करप आनी इस्लामविरोधी चालू आशिल्ल्यो प्रथा नश्ट करप, हो जीझिया कराफाटलो हेत आसा. हो कर जाचेर लायला ताणें तो स्वता अधिकाऱ्याकडेन वचून भरपाक जाय.' जीझिया कर बसोवपाखातीर औरंगजेबान बिगर मुस्लिम वर्गाची तीन वर्गांत वाटणी केल्ली. धा हजार दिरम (चांदीचें नाणे) वा ताचेपरस अधिक वर्सुकी उत्पन्न आशिल्ल्या हिंदूंनी दर मनशाफाटल्यान अठ्ठेचाळीस दिरम कर दिवचो. दोनशे ते धा हजार दिरम वर्सुकी उत्पन्न आशिल्ल्या जण एका मनशान चोवीस दिरम आनी दोनशें दिरमापरस कमी उत्पन्न आशिल्ल्यांनी बारा दिरम असो कर भरचो पडटालो. ह्या कराच्या आनी उत्पन्नाच्या प्रमाणांत जें सूत्र आसा, ताका लागून उणें उत्पन्न आशिल्ल्या हिंदूंक अधिक उत्पन्न आशिल्ल्या हिंदूंपरस कितल्याशाच चड प्रमाणांत कर भरचो पडटालो. गरीब हिंदू कर दिवंक शकलोना म्हण्टकच नाइलाजान ताका धर्मांतर करचें पडटालें.

हिंदू मठाधिपतींकूय कर भरचो पडटालो. कर भरप शक्य ना म्हण्टकच गरीब हिंदूंनी धर्मांतर केलें म्हण्टकच औरंगजेबाक बरें दिसतालें. धर्मांतरीतांचो आंकडो एकसारको वाडत रावचो हेखातीर औरंगजेबान जीझिया कराचे वसुलींत सक्ती करप ही पिडपाची युक्ती सोदून काडिल्ली. औरंगजेबाच्या ह्या हेताक आव्हान दिवपाखातीर शिवाजीन ताका चीट बरोवन कागाळ केल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**जीब:** गिळप, रुच घेवप, उलोवप, चोखप आनी अन्न चरवण करपाक आदार दिवपी, तोंडांतलो स्नायुंचो अवयव.

जिबेचें मूळ ताळ्यांत आसता, पूण उरिल्लो वांटो तोंडांत आसता. जिबेचेर श्लेश्मपटलाचो (mucosa) थर आसता. तोंडांत दातांच्या माळांमदीं मेकळी सुवात आसता. तातूंत सोपेतरेन जिबेचें तोंक वयर सकयल हालूंक शकता. जिबेच्या स्नायूचो भाग तिच्या मुळांत आशिल्ल्या सकयल्या दाडेवणाच्या हाडाक आनी इंग्लीश U आकाराच्या हाडाक जोडिल्लो आसता; तशेंच श्लेश्मपटलान जिबेसकयल्या तळाक आनी दातांच्या हड्ड्याक जोडिल्लो आसता. जिबेच्या पृश्ठभागाचे इंग्लीश V अक्षरासारके देगेन दोन वांटे आसतात. फुडलो वांटो दोन तृतीयांश आनी फाटलो एक तृतीयांश आसता. ह्या V अक्षराच्या कोनशाक एक पुरिल्लो बुराक आसता. गर्भावस्थेंत गळ्याफुडें आशिल्ल्या अवटुग्रंथीचो (Thyroid Gland) कोंब हांगा आसता. फुडें ते ग्रंथीची वाड जातकच तिचो जिबेकडचो संबंद सोंपता.

फाटीक कणो आशिल्ल्या जायत्या प्राण्यांत (vertebrates) जीब हो अवयव तोंडाच्या तळाक जोडिल्लो आसता. नुस्त्यांभितर जिबेची चड वाड जाल्ली आसना. ताका लागून तिची हालचालूय नासता. कांय नुस्त्यांचे दात जिबेर आसतात. शेंपडी आशिल्ल्या आनी जमनीर तशेंच उदकांत रावपी प्राण्यांची जीब नुस्त्याचे जिबेसारकी आसता. बेबूक आनी शेपडी नाशिल्ल्या प्राण्यांची (जे उदक आनी जमनींत रावंक शकतात) जीब मांसाळ आसता. तिची हालचालूय मेकळेपणान जाता. बेबूक आपली जीब नेटान भायर काडून किडी धरता. जमनीक घश्टून चलपी प्राण्यांत जिबेची हालचाल बरीच मेकळी आसता, पूण कांसव, मानगें हे प्राणी हाका आडवाद आसात. ह्या घश्टून चलपी प्राण्यांत जायते प्रकार आसात. सोरपाची जीब चिमट्यावरी दोन अर्दां जाल्ली आसता.

सवण्याचे जिबेंत कमी स्नायू आशिल्ल्यान हालचाल कमी आसता. थोडीं सवणीं आपल्या गळयाच्या स्नायुचो उपेग करून जीब भायर काडूंक शकतात. पोपटाची जीब तेलकट स्त्राव आशिल्ल्यान मोव आसता.



सस्तन प्राण्यांमदीं जिबेची फुडली सुवात हाडाच्या सांगाड्या-सावन खूब मेकळी आशिल्ल्यान ती जायतीं कामां करता. देवमासो अन्न चरवण करीना, म्हूण ताची जीब ताच्या शरीर-मानान खूब ल्हान आसता. गायेसारकीं जनावरां चरता आसतना, तण जिबेन घट्ट धरतात आनी दातांनी तोडटात. घोडो जिबेचे हाल-चालीवरखीं तोंडांत कमी दाब तयार करून उदक भितर ओडून घेवंक शकता. माजर, सुणें आदी जनावरां, आपलें आंग निवळ करपाक जिबेचो ब्रशाभशेन वापर करतात. मुयांक खावपी प्राणी आपली लांब चिकट जीब भायर काडून तांकां धरतात.

स्पर्श आनी रुच समजुपाचीं ज्ञानेंद्रियां जिबेच्या पृश्ठभागार आशिल्ल्यान तोंडांत घेतिल्लें अन्न गिळचें काय भायर उडोवचें, हें थारावपाक मदत करतात.

**रचणूक** (Structure): जीब, आडव्या, उब्या आनी तिरप्या स्नायुंच्या धाग्यांची केल्ली आसा. तिचें मूळ सोडल्यार उरिल्ले सुवातीर श्लेश्मपटल, तिच्या स्नायूंक घट्ट लागिल्लें आसता. जिबेचे फुडले सुवातीर ल्हान ल्हान तोंकां वयर सरिल्लीं आशिल्ल्यान ती विलोदाभशेन दिसता. तिचो फाटलो वांटो गुळगुळीत आसता. लाळ वा थुकी तयार करपी ग्रंथी तोंडांत आपलो स्त्राव ओतयतात. तेपासत सगळे जिबेचेर थुकयेचो एक थर आसता. ते भायर तिच्या पृश्ठभागार थुकी तयार करपी ल्हान ल्हान ग्रंथी आसतात, म्हूण जीब सदांकाळ ओली आसता. जिबेचे फुडले दोन-तृतीयांश सुवातीर ल्हान ल्हान पांच तरेच्यो पिंडिका (papillae) आसतात. सगळ्यांत व्हडल्यो परिघावृत पिंडिका (circumvallate papillae) ८ ते १२ आसतात. त्यो इंग्लीश V अक्षराच्या आकारान मांडिल्ल्यो आसतात. हातूंत पयले तरेच्यो रुचिकलिका (taste buds), दुसरे तरेच्यो पिंडिका कवकरूप (fungiform), तिसऱ्यो तंतुरुपी (filiform), चवथ्यो शंकाकार (simplices) आनी पांचव्यो पानाच्या आकाराच्यो (foliate) आसतात. शंकाकार पिंडिका, कवकरुप आनी तंतुरुप पिंडिकांमदीं तश्योच लागसार आसतात. पिंडिकांक रगताची खूब पुरवण जाल्ल्यान त्यो तांबड्यो दिसतात. जिबे फाटल्यान दोनूय कुशींनी समांतर अश्यो पानां आकाराच्यो (foliate) पिंडिका दिसतात. तंतुरुप पिंडिका सोडून उरिल्ल्या सगळ्या पिंडिकांचेर रुचिकलिका आसतात.

**रुचिकलिका** (taste buds): जिबेच्या पृश्ठभागावेली मदली सुवात सोडल्यार उरिल्ल्या सगळेकडेन रुचिकलिका आसतात. वाटकुळ्या रुचिकलिकेंमदीं दोन तरेच्यो कोशिका वा पेशी आसतात: १. आदार दिवपी (supporting) आनी २. संवेदनाक्षम (sensory). तांची मांडणी सत्रांच्या शिरांसारकी आसता. रुचिकलिकेक एक बारीक बुराक आसता. ताका रुचिरंध्र (tastepore) म्हण्टात. तातूंतल्यान एक बारीक केंसासारको भाग वयर सरिल्लो आसता. रुचिरंध्रांत पातळ जावन गेल्लो पदार्थ, ह्या केंसासारक्या भागाचें उत्तेजन करून ती संवेदना मज्जातंतूंतल्यान मेंदवाक पावयता आनी रुचीची जाणविकाय करून दिता.

जिबेच्या पोंदाक मदीं लांब पड्डो आसता. ताका जिबेचो लगाम (Frenula of tongue) म्हण्टात. तो, जीब फाटले वटेन ताळ्यांत पडपाक आडखळ करता. लगाम ल्हान आसल्यार जिबेची हालचाल बरी जायना आनी गिळपाक, उलोवपाक त्रास जाता. जिबेच्या दोनूय कुशींनी इच्छानुवर्ती (voluntary) स्नायू आशिल्ल्यान इत्सेप्रमाण जिबेची हालचाल करूं येता. हे स्नायू दोन तरेचे आसात: १. भायले २. भितरले. भायल्या स्नायुची सुरवात जिबेभायर हेरकडेन जावन, ते जिबेंत सरतात. तोंडांतली जीब भायर काडपाक, हे वाटेन ते वाटेन हालोवंक, सकयल आनी फाटीं ओडपाक, गिळपाक हीं सगळीं कार्यां करपाक ह्या भायल्या स्नायुंचो आदार लागता. भितरल्या स्नायुंच्यो चार तरा आसतात. तांचेखातीर जिबेचो आकार बदलूंक शकता.

जिबेच्या रगताची पुरवण जिबेचे रोहिणीतल्यान (artery) जाता. अंतरग्रीवानीलेंतल्यान जिबेंतलें रगत परत वता. जिबेच्या स्नायुंची हालचाल मेंदवासावन भायर सरिल्ल्या बाराव्या तंत्रिका वा मज्जातंतूंसावन जाता. फुडले दोन तृतीयांश सुवातीची संवेदना मेंदवासावन भायर सरिल्ल्या पांचवे तंत्रिकेसावन आनी फाटले एक तृतीयांश सुवातीची संवेदना, जिव्हाग्रसनी तंत्रिकेसावन मेंदवाकडेन पावता. फुडले सुवातींतली रुचिसंवेदना जिव्हाग्रसनी आनी धावे तंत्रिकेंतले स्वस्वंत्रशाखेसावन मेंदवाकडेन पावता.

**जिबेचे विकार**: शरिरांतल्या संतुलनाचें रूप तोंडांत दिसता, म्हूण रोगपरीक्षेक तोंड तपासपासावन बरेच आदार जाता. जिबेचो रंग फिकट गुलाबी आसता. विखबाधा, पोशणाच्या उणावाक लागून टायफॉइड जोरांत, पंडूरोगांत, भायले पिडेंत ह्या रंगांत बदल जाता. तेचपरी एक थरूय ताचेर जमता. तुटक्या दांतांच्या घर्शणाक लागून टी.बी., कॅन्सर ह्या दुयेंसांक लागून जिबेचेर घाय जावंक शकतात. जिबेक सूज येवं येता: १. तीव्र (Acute) आनी २. चिरकारी (Chronic). जिबेच्या मुळाक तीव्र सूज आयल्यार उस्वास घेवंक आडखळ जाता. तेखातीर प्राणी घुस्मटून मरुंक शकता. ही सूज कसल्या कारणाखातीर आयल्या, हें समजून घेवन रोकडोच उपचार करचो पडटा. चिरकारी सूज पंडूरोग (Anemia) आनी व्हीटामिनांच्या उणावाक लागून जाता. व्हीटामीन बी कॉम्प्लेक्स उणें जाल्यार चिरकारी सूज येता. ताचेर हें व्हीटामीन दिल्यार रोकडोच गूण येता. जिबेचे सकलेवटेन, खूब फावट थुकी आडखळिल्ल्यान थुकयेग्रंथीची वाट सांठून फुगता आनी गांठ तयार जाता. ताका अधःजिव्हा पुटी म्हण्टात. जिबेच्या कॅन्सराचें प्रमाण बायलांपरस दादल्यांत चड आसता. ताची सुरवात ल्हव ल्हव आनी नकळत जाता. सुर्वेक ल्हान घाय, उंचवटो वा खांच कशी जाता. ल्हव ल्हव तो वाडटा आनी ताचीं मुळां खाडकेसकयल्या आनी दाडवणाच्या कोनशाचे गांठीमेरेन पावतात. उपरांत त्यो गांठी मोट्यो जातात. अधःजिव्हा, गांठी, अर्बुदां आनी कॅन्सराचेर आदींचेर शस्त्रक्रिया करची पडटा. भारतांत तंबाकू आनी पान खावपाचें प्रमाण चड आशिल्ल्यान ह्या कॅन्सराचें प्रमाण खूब आसा.

- डॉ. पूर्णानंद अवदी

संदर्भ: 1. Churchill Livingstone, Gray's Anatomy, New York, 1989; 2. Haswell T.S., A Text book of Zoology, Vol. II London; 3. Saunders W.B., Text Book of Histology, Philadelphia, 1985.

**जीव**: भारतीय तत्त्वज्ञानांतली एक संज्ञा. जीव आनी आत्मो ही पर्यायी उतरां आसात. विंगड विंगड दर्शनांत जीवाच्यो विंगड विंगड व्याख्या मेळटात.

जीवा संबंदी सगळ्यांत पूर्विल्लो विचार भूतचैतन्यवाद ह्या स्वरुपांत आयला. चार भूतांच्या संयोगांतल्यान मनशाचें शरीर घडटा. वयले प्रक्रियेंतल्यान घडिल्लें शरीर म्हळ्यारच आत्मो वा जीव आसता अशें भूतचैतन्यवाद्याचें म्हणणें आसा. उपनिषदां, जैन आगम आनी बौध्द पिटक हातूंत ह्या मताचो पूर्वपक्ष म्हूण उल्लेख केल्लो मेळटा. बृहदारण्यकांत विज्ञानघन चैतन्य हें भूतापसून उत्पन्न जाता आनी

तातूंतच विलीन जाता, असो पूर्वपक्ष मांडला पूण उपरांत न्हयकारला. उपनिषदांत जीव-ब्रह्म हो विचार मेळटा. बौध्द पिटकांत, चार भूतां पसून पुरुष उत्पन्न जाता, अशें हे अजित केशकंबलीचें मत आसा. उपनिषदांत जीव-ब्रह्म हो विचार केल्लो मेळटा.

जैन सूत्रकृतांगाच्या पुंडरीक अध्ययनांत 'तज्जीवतच्छरीरवाद' नांवाचो वाद आशिल्याचें सांगलां. हातूंत मनशाचे कुडीसावन जीव वेगळावपाक मेळना अशें मत मांडलां.

जो कर्म करता तोच ताचें फळ भोगता, ह्या विचारांतल्यान पुर्नजल्म आनी परलोक ह्यो कल्पना अस्तित्वांत आयल्यो. मरणाउपरांत जीव दुसरो जल्म घेता काय दुसऱ्या जगांत वता हे संबंदी जायत्या जाणांक दुबाव आसलो, त्याचवांगडा सदांच्याच जिवितापरस वेगळी आनी सुखी जीण कशी प्राप्त जावं येता हाचोय लोक विचार करताले. तेवरवीं एके वटेन लोकांची जिविताकडेन पळोवपाची नदर बदल्ली तर दुसरेवटेन जल्मांतर गमनसंबंदी जायतीं मतां अस्तित्वांत आयलीं.

स्वतंत्र जीववादांत जैनांची सुवात पयली आसा. जीव हो चैतन्यस्वरूप आसा अशें षड्दर्शन समुच्चय कारिका (४९) हातूंत मेळटा, जीव स्वतंत्र आसून तो देहभेदान वेगळो, तसोच थाव लागना येदो व्हड आसा. गिन्यानशक्त, पुरुषार्थ आनी संकल्पसिध्दी ह्यो जीवाच्यो मुखेल शक्ती आसात. जीव जसो विचार करता तशे ताचेर संस्कार जातात. ह्या संस्कारांचो प्रभाव पडिल्लें एक सुक्ष्म पौद्‌गलिक शरीर जीवा वांगडा निर्माण जाता आनी दुसरो देह धारण करीसर तें जीवाबरोबर रावता, अशें जैनधर्मीय मानतात.

जैन दर्शनांत जीव शरीरावच्छिन्न आसून, तो आपल्या निवासभूत शरीराचे परिणाम धारण करता, अशें म्हळां.

आस्तिक दर्शनांत स्वतंत्र, चेतन आनी अविनाशी अशें एक तत्त्व मानलां. ह्या तत्त्वाकच तांणी 'आत्मा' अशें नांव दिलां. आत्मो आपल्या कर्माचें फळ भोगता तेचपरी स्वताचो उध्दारय करता, अशें मानलां.

अनात्मवादी बुध्द आत्मवादाचो विरोध करता.

न्याय-वैशेशिक, दर्शनांत आत्मो आनी जीव एक द्रव्य मानलां. आत्मो हो नित्य आसून ताचो रावितो दरेका शरीरांत आसता. दरेका शरीरांत ताचें रुप वेगवेगळें आसता. आत्मो एकूच न्हय ताचेभितर बुध्द, सुख, दुख्ख, इत्सा अशे णव गूण रावतात. प्राणापान, निमेषोन्मेष, जीण आनी हेर गजालींवरवीं आत्म्याची सिध्दी करूं येता.

सांख्यदर्शनांत प्रकृती आनी पुरुष अशीं दोन मुळावीं मानल्यांत. सांख्यांचो पुरुष म्हळ्यारूच आत्मो. हो आत्मो वा पुरुष स्वयंसिध्द आसता. तो चैतन्यरूप आसून ताका सगळे खबर आसता. तो केन्नाच गिन्यानविशय जायना. तेचप्रमाण तो कूटस्थ, नित्य आनी व्यापक आसता. ताचें प्रतिशरीर वेगळें आसा अशें सांख्यांचें मत आसा. योगदर्शनांत, जीव जायते आसून ह्या जीवाक खूब प्रकारचीं दुख्खां भोगचीं पडटात, अशें म्हळां. जीव जीं कर्मां करता ताचीं फळां भोगता. पुर्नजल्मांतल्या संस्कारांचो प्रभाव जीवाचेर पडटा अशें योगदर्शन मानता.

मीमांसादर्शनान आत्मो हो कर्तो आनी भोक्तो अशा दोनूय रुपांत मानला. तो व्यापक, तशेंच दरेका शरीराकणकणी वेगवेगळो आसता. गिन्यान, सुख, दुख्ख हेर गूण तातूंत एकठांयपणान संबंद दवरून रावतात. भाट्ट मीमांसक आत्म्यांत क्रियेचें अस्तित्त्व मानतात. स्पंद आनी परिणाम अशे क्रियेचे दोन प्रकार आसात. भट्टाच्या मतान आत्मो हो परिणामशील आनी नित्य आसा. चित् आनी अचित् हे दोन अंश आत्म्यांत आसात, अशें भट्ट मानता. तातूंतल्या चिदंशान आत्मो गिन्यानाचो अणभव घेता तर अचिदंशान तो परिणामरूप जाता. भाट्ट मीमांसक आत्म्याक गिन्यानाचो कर्तो आनी ज्ञानाचो विशय अशा दोन रुपांत मानता. प्राभाकर मीमांसक मात ताका अहंप्रत्ययवेद्यच समजतात.

वेदान्तदर्शन अंतःकरणावच्छिन्न चैतन्याक जीव म्हण्टा. शंकराचार्यान शरीर आनी इंद्रियां हांचो मुखेल आनी कर्मफलां भोगपी तो आत्मो म्हळां आनी ताकाच जीव म्हणून पाचारला. आत्मो हो परब्रह्मावरी व्यपदेश आशिल्यान परब्रह्मावरीच विभू आसा. जागृत्, स्वप्न आनी सुषुप्ती ह्यो तीन अवस्था तर अन्नमय, मनोमय, प्राणमय आनी हेर अशे पांच कोश हातूंतल्यान आत्मचैतन्य घडटा. आत्म्याचें शुध्द चैतन्य ह्या परस मुखार आसता. जीवाची वृत्ती उभयमुखी आसता. ती बहिर्मुख आसतना विशयांक मुखार हाडटा तर अंतर्मूख आसतना कर्त्याक अभिव्यक्त करता अशें वेदान्त सांगता.

जीव हो चैतन्यात्मक आशिल्यान तो म्हळयार परमेश्वराची अप्रूप निर्मणी अशें गीतेंत सांगलां. गीतेंत ताका क्षेत्रज्ञ म्हळां. केल्या कर्माचें फळ भोगपी शरीर तें क्षेत्र आनी ह्या क्षेत्राचो जाता तो क्षेत्रज्ञ, आत्मो जावन आसा. गीतेच्या दुसऱ्या अध्यायांत आत्मो हो अजन्मा, नित्य, शाश्वत आनी षड्‌वकारासावन पयस आशिल्याचें वर्णन आयलां. तेच प्रमाण तो सर्वव्यापी, थीर, न हालपी आनी सनातन आसा, अशें म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**जीवरसायनशास्त्र :** सजीवांचें रसायनशास्त्र. हातूंत सजीवांच्या रसायनीक स्थित्यंतराचो अभ्यास जाता. जीवरसायनशास्त्र हें उतर, जीवशास्त्र आनी रसायनशास्त्र ह्या दोन उतरांक एकठांय हाडून घडयिल्लें उतर. जीवरसायनशास्त्रांत जीवशास्त्र आनी जिवाच्या स्थित्यंतराविशीं कार्बनी रसायनशास्त्राच्या (Organic Chemistry) भाशेंत स्पश्टीकरण दिल्लें आसता. कांय फावट अकार्बनी रसायनशास्त्र, भौतिकी रसायनशास्त्र, भौतिकशास्त्र, शरीरक्रियाविज्ञान (Physiology) आनी विकारविज्ञान (Pathology) हांच्याय संबंदांतल्यान गरज पडटा तशें जीवरसायनशास्त्रीय सिध्दांत स्पश्ट करचे पडटात.

पंदराव्या शतमानांतलो पॅरासेल्सस हाका पयलो जीवरसायनशास्त्रज्ञ अशें मानतात. 'शरीरधर्म चालू उरपाखातीर कुडींत बऱ्योच रसायनीक प्रक्रिया जातात. तातूंत कांय फरक वा दोश उत्पन्न जाल्यार दुयेंस उप्रासता आनी फाव ती रसायनीक प्रक्रिया करून तें दुयेंस बरें करूं येता', अशें ताणें पयलीं १५२७ त सांगलें. ताच्याउपरांत सुमार २०० वर्सांनी रीमर हाणें जाठर रसाच्या पालवान पचनक्रिया जाता, अशें दाखयलें. लॅव्हॉयझर हाणें १७७७ त 'ज्वलना' चो नामनेचो सिध्दांत उजवाडाक हाडलो आनी चयापचयाच्या (metabolism) आर्विल्ल्या अभ्यासाची बुन्याद घाली. अठराव्या शतमानाच्या मध्याक शील हाणें पेड्ड्यार जाल्लें दूद, सफरचंद, लिंबू आनी मूत हातूंतल्यान अनुक्रमान लॅक्टिक अम्ल, मॅलिक अम्ल, सायट्रिक अम्ल आनी युरिक अम्ल सोदून काडलें. वनस्पती हवा शुध्द करतात, हें प्रीस्टली हाणें दाखयलें. प्रीस्टली, इंगेनहाव्स आनी सेनेबायर हांणी प्रकाशसंश्लेशणाविशीं (प्रकाशीय ऊर्जेचो उपेग करून हरितद्रव्याच्या पालवान कार्बन डाय-ऑक्साइड आनी उदक हातूंतल्यान सादीं कार्बोहाइड्रेट्स् तयार करप आनी ऑक्सिजन मुक्त करप, हे क्रियेविशीं) केल्ल्या संशोधनाक लागून जीवरसायनशास्त्राचे उदरगतींत एक म्हत्वाचें पावल पडलें. ताच्या वावराक लागून प्रकाशसंश्लेशण ही श्वसनक्रियेच्या उरफाटी जावपी क्रिया, अशें दिसून आयलां. जस्टस फोन लिबिक (१८०३-७३) हाचेकडल्यान आर्विल्ल्या जीवरसायनशास्त्राक सुरवात जाली. पदार्थाचो कण जितलो ल्हान तितलो ताका सजीव ऊतकांतल्या (tissue) अभिसरणाक उणो विरोध जाता, अशें ताणें दाखयलें. ताणें अन्नाचे वांटे प्रथिनां, कार्बोहाइड्रेट्स, मेद (स्निग्धपदार्थ), खनिज द्रव्यां अशे केले. क्लॉड बर्नाड ह्या फ्रेंच शरीरक्रियाविज्ञानिकान ग्लायकोजनचो सोद लायलो आनी यकृत हें कार्बोहाइड्रेटचो सांठो करता, हें दाखोवन दिलें. जाठररसांत हायड्रोक्लोरिक अम्ल आसता, हें इंग्लंडांत प्राउट हाणें १८२४ त दाखयलें. त्याच वर्सा व्होलर हाणें पॉटेशियम सायनेट आनी अमोनियम कार्बोनेट हांचे रसायनीक विक्रीयेंतल्यान यूरिया तयार करून जीवरसायनशास्त्राच्या नव्या युगाक सुरवात केली.

यीस्ट कोशिकांत (cell) आशिल्लीं एन्झाइम्स (enzymes- (जीवरसायनीक विक्रिया घडोवन हाडूंक पालव दिवपी प्रथिनयुक्त पदार्थ) विघटनाच्यो

सगळ्यो प्रक्रिया (ग्लुकोज -> अल्कोहोल -> कार्बन डाय-ऑक्सायड + उदक) घडोवन हाडटात, अशें पाश्चर (१८२२-९५) हाणें दाखयलें. हाका लागून प्राणी आनी वनस्पत हांचेमदलीं विंगड विंगड एन्झाइम्स सोदपाचे यत्न सुरू जाले. समनर आनी नॉर्थ्रेप हांणी कांय एन्झाइम्स स्फटिकरुपांत मेळोवपांत येस मेळयलें. सैमांत सांपडपी कार्बोहाइड्रेट, प्रथिनां, ॲमिनो अम्ल आनी प्युरिन्स हांचे संरचनेविशीं एमील फिशर हाणें बरीच म्हायती उजवाडाक हाडली. १८५०-९० ह्या काळांत बऱ्याच शास्त्रज्ञांनी पाचक रस, रगत आनी मूत हेविशीं म्हायती एकठांय केली.

१९०२ त, स्टार्लिंग हाणें 'सिक्रेटीन' ह्या हॉर्मोनचो सोद लायलो आनी उपरांत जीवरसायनशास्त्राच्या पध्दतशीर अभ्यासाक सुरवात जाली. १९२६ त सन्नर हाणें पयले फावट 'युरिज' ह्या एन्झाइमाचें स्फटिकीकरण केलें आनी तें एक प्रथिन, अशें सिध्द केलें. वॉरबर्ग आनी हेरांनी केल्ल्या खोल अभ्यासाक लागून हायड्रोजन आनी इलेक्ट्रॉनचें जीवशास्त्रीय ऑक्सिडेशन कशें जाता, हें समजून आयलें. केनेडी आनी लेहनिगर (१९४८-१९५०) हांणी सायट्रीक अम्ल आवर्तन, मेद अम्ल ऑक्सिडेशन आनी ऑक्सिडेटीव्ह फोस्फोरायलेश (ए.टी.पी. जावपाची पध्दत) मायटोकोन्ड्रियांत (mitochondria- पेशीचो एक वांटो) जाता म्हणपाचें दाखयलें. केण्डाल आनी पिन्कस हांणी हॉर्मोनच्या जीवरसायनशास्त्रांत मोलादीक वावर केलो. १९५० सावन फुडें शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकीशास्त्राच्या मळार जीवरसायनशास्त्रज्ञांनी बरोच वावर करून त्या शास्त्राक म्हत्व मेळोवन दिलें.

जैव विज्ञानाच्या मळार संशोधन करपाखातीर जीवरसायनशास्त्राक बरोच वाव आसा. जीवशास्त्रांतल्या बऱ्याच मुळाव्या मळांचेर जीवरसायनशास्त्रांत संशोधन जालां. पेशी आनी जीव हांचेमदलो फरक, जीवाची उत्पत्ती आनी उत्क्रांती, वर्तन स्मरण आविश्कार आनी मनशाचे रोग ह्या सगळ्या गजालींनी जीवशास्त्रीय पध्दत वापरुन बरेंच संशोधन जालां.

जीवशास्त्रीय पध्दतीखातीर अद्ययावत आनी आर्विल्ल्या उपकरणांची गरज आसता. देखीक- फोटोइलेक्ट्रीक कॅलोरीमीटर, स्पॅक्ट्रोफोटोमीटर, इन्फ्रा-रेड स्पॅक्ट्रोमीटर, अल्ट्रासेंट्रीफ्यूज आनी हेर तरेकवार सेंट्रीफ्यूज, क्ष-किर्ण डिफ्रॅक्शन उपकरण. हातूंत वर्णलेखन (chromatography) आनी विद्युत् निस्सरण (electrophorati) तंत्र हांचोय वापर जाता. निदानिय (clinical) जीवशास्त्रप्रयोगशाळांनी व्यापक धर्तेचेर जीवरसायनशास्त्राचे प्रयोग जातात.

जीवरसायनशास्त्राच्यो बऱ्योच शाखा आसात. त्यो सादारणपणान अशे तरेन वांटून घालतात:

*अ) सादारण जीवरसायनशास्त्र:* हातूंत सजीवांत जावपी सगळ्या जीवरसायनीक प्रक्रियांचो मुळावो अभ्यास जाता.

*ब) मनशाचें जीवरसायनशास्त्र:* हातूंत मनशाचे कुडींत जावपी जीवरसायनीक प्रक्रियांचो अभ्यास जाता. हाचीं दोन वेगवेगळीं तासां आसात-

१. मनशाचे भलायकेंतलें जीवरसायनशास्त्र: हाका पयलीं शरीरक्रियाविज्ञानीक रसायनशास्त्र अशें म्हण्टाले.

२. मनशाच्या दुयेंसाविशींचें जीवरसायनशास्त्र: सादारणपणान ह्या विशयाक निदानिय जीवशास्त्र अशें म्हण्टात. (पयलीं हाका विकारविज्ञानीय रसायनशास्त्र म्हण्टाले).

हॉस्पिटलांत निदानिय जीवशास्त्रीय प्रयोगशाळा आसता, ज्या जाग्यार रोगाचें निदान करपाखातीर रगत, मूत आनी हेर जीवशास्त्रीय द्रावांची परीक्षा जाता.

३. हेर कांय शाखा आनी उपशाखा अश्यो: जीवशास्त्रीय जननिकी +genetics- हातूंत जीवशास्त्रीय अभियांत्रिकीचो आस्पाव जाता); वनस्पती जीवशास्त्र; शेतकी जीवशास्त्र; मोनजात जीवशास्त्र; सूक्ष्मजीवजन्य (microbal) जीवशास्त्र; वखदी (pharmaceutical) आनी वैजकी जीवरसायनशास्त्र; विखारी (toxic) द्रव्यांचें जीवरसायनशास्त्र; पर्यावरण जीवशास्त्र; उद्येगीक जीवशास्त्र आदी.

अन्न पदार्थांचें जीवरसायनशास्त्रीय पध्दतीन विश्लेशण करून खावपाच्या सगळ्या पदार्थांचो रसायनीक प्रकार सोदप शक्य जालां. 'इंडियन काउन्सिल ऑफ मेडिकल रिसर्च' हे संस्थेन अन्नपदार्थांविशीं म्हायती दिवपी एक पुस्तिका उजवाडाक हाडल्या. जीवरसायनशास्त्रीय तंत्रशास्त्र वापरून जीवसत्त्वां, हॉर्मोन्स आनी हेर म्हत्वाचे पदार्थ मेळोवप शक्य जालां.

शरीरक्रियाविज्ञान, वैजकशास्त्र, वखदक्रियाविज्ञान (pharmacology), सूक्ष्मजीवशास्त्र, रसायनीक अभियांत्रिकी ह्या विशयांच्या अभ्यासांत जीवरसायनशास्त्राचो मोलादीक पालव मेळटा.

जीवरसायनशास्त्र विशयांतले कांय नामनेचे शास्त्रज्ञ अशे: विल्स्टॅटर, स्टोल, हिल, कॉल्विन, आनॉन, पावलिंग, कोरे, झॅनचीक, चारग्राफ, डेव्हिडसन, लिनन.

जीवरसायनशास्त्राविशीं संवसारभर विंगड विंगड गजालींचेर उजवाड घालपी कितलींशींच नेमाळीं उजवाडाक येतात. हातूंतलीं कांय मुखेल अशीं: 'बायोकेमिकल जर्नल', 'ॲनॅलिटीकल बायोकेमिस्ट्री', 'जर्नल ऑफ बायोलोजिकल केमिस्ट्री', 'बायोकॅमिस्ट्री', 'जर्नल ऑफ मॉलीक्युलर बायोलॉजी', 'जर्नल ऑफ हिस्टोकेमिस्ट्री', 'मॅथड्स ऑफ बायोकॅमिकल ॲनॅलिसीस', 'आर्कायव्हज् ऑफ बायोकेमिस्ट्री अँड बायोफिजिक्स', 'इंडियन जर्नल ऑफ बायोकेमिस्ट्री', 'जर्नल ऑफ न्यूरोकेमिस्ट्री' आदी. हेभायर बरींच वर्सुकी नेमाळींय ह्या विशयाचेर उजवाडाक येतात.

भारतांत सद्या जीवरसायनशास्त्राचेर बरेंच जाण संशोधन आनी अभ्यास करतात. *डॉ. हरगोविंद खोराना (*)* ह्या मूळ भारतीय शास्त्रज्ञाक ताच्या जीवरसायनशास्त्राच्या वावराक लागून शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयांचें नोबेल इनाम फाव जालां. सर्गेस्त डॉ. श्रीनिवासया हाणेंय संवसारभर नामना मेळयल्या. हेभायर कांय मुखेल भारतीय शास्त्रज्ञ अशे- डॉ. रामचंद्रन्, डॉ. वकील, डॉ. श्रीनिवासन, डॉ. कृष्णन्, डॉ. गोपालन, डॉ. जी. पी. तलवार.

गोंयांत ह्या विशयाचेर गोंय वैजकी महाविद्यालय आनी पदव्युत्तर पांवड्याचेर शिक्षण मेळटा.

- डॉ. व्ही. एस्. चित्रे

**जुगार:** दैवाचेर भरवसो दवरून, कश्टाबगर मेळपी आयते अर्थीक येणावळीचे आशेन वेव्हार करता, त्या वेव्हाराक 'जुगार' म्हण्टात.

ऋग्वेदांत जुगाऱ्याच्या नादाचें आनी पश्चात्तापाचें वर्णन आसा. भारतांत सिंधू संस्कृतींतूय द्यूत खेळप प्रचलित आसूंक जाय. ह्या विशयाचेर संस्कृत भाशेंत ग्रंथ आसात. आचार्य शूलपाणी हाचो 'चतुरंगदीपिका' हो द्यूतावयलो एक नामनेचो ग्रंथ आसा. पारंपारिक नदरेन भारतांत शंकराक द्यूताचो प्रवर्तक अशें मानतात. कांय जाणांच्या मताप्रमाण द्यूताक लागून उदारपणा वाडटा आनी सुखदुख्खांत समवृत्तीन रावपाचें शिक्षण मेळटा. द्यूत खेळप वायट आसा, अशी कल्पना ऋग्वेदकाळासावन दिसून येता. भारतीय धर्मशास्त्रांत द्यूत म्हळ्यार ख्यास्त करपाक फाव अशें महापातक मानलां. मनून द्युताचो अठरा व्यसनांनी उल्लेख केला. दुस्मानकाय निर्माण जावंक शकता म्हूण करमणुकीखातीर लेगीत द्यूत खेळचें न्हय, अशें मनून सांगलां. पूर्विल्ल्या भारतांत द्यूतसभा आसताल्यो. राजे लोक थंय जुगार खेळपाक येवपी लोकांकडल्यान कर घेताले. जुगारान जिखिल्ल्या द्रव्यांतूय राजाचो वांटो आसतालो. जे हो वांटो चुकयताले वा बुडयताले, तांकां डाग दिवपाची वा राज्याभायर हद्दपार करपाची कडक ख्यास्त जाताली. चोर-दरोडेखोरांक हें व्यसन मोट्या प्रमाणांत आशिल्ल्यान राजाक तांचे विशींची म्हायती द्यूतघरांतल्यानूच मेळटाली.

पूर्विल्ल्या काळांत कांय धर्मीक मानिल्ल्या संकेतांक जुगाराचेंच रूप आशिल्लें. हिब्रू लोक देवाफुडें चिटयो घालून जो निर्णय येता, तो देवान दिल्लो निर्णय आसा, अशें मानताले. गोंयांत अजुनूय देवाक कौल

लावपाची प्रथा आसा. फाशांचे आनी इस्पिकांचे एकदम सुरवातीचे प्रकार पळेल्यार, दैवी शक्तीवयलो विश्वास ही जुगारी पध्दतीची वा वृत्तीची मूळ बसका जावन आसा अशें दिसून येता. तरी लेगीत आर्विल्ल्या विज्ञानयुगांतूय जुगाराचें पिशें कमी जावंक ना.

प्राचीन रोमन इतिहासकार टॅसिटस हाच्या म्हणण्याप्रमाण ट्यूटन लोक जुगाराच्या नादाक लागून गुलामगिरीच्या जाळ्यांत सांपडटाले. सूदानचे आनी अस्तंत आफ्रिकेंतल्या आदिम जमातीचे रहिवासी जुगारांत आपली बायल आनी भुरगीं लेगीत होगडावन बसताले. इतलेंच न्हय तर ते आपलें स्वातंत्र्य लेगीत पणाक लायताले. चिनी लोक आपलो उजवो हात लेगीत जुगारांत पणाक लायताले, अशे उल्लेख सांपडटात. जुगार हरतकच ते आपलो हात तोडून उडयताले. युधिष्ठिराक द्यूताचें व्यसन आशिल्ल्यान पांडवांक वनवास आनी अज्ञातवास भोगचो पडलो. पुष्करावांगडा द्यूत खेळिल्ल्यान नळ राजाचीय तीच अवस्था जाल्ली.

बायबलांत प्रत्यक्ष जुगाराक आक्षेप घेतिल्लो दिसना. तालमुदीक कायद्याप्रमाण जुगारांतल्या लाभाचो स्वीकार करप म्हळ्यार चोरीच अशें मानलां. कुराणांत बुध्दिबळाबगर हेर सगळे खेळ मना केल्यात. संधी आनी देवाची कृपा हांच्या एकवटाचेर भर दिलो, तरी प्रोटेस्टंटांच्या मताप्रमाण सगळ्या तरांचो खेळ बायबलांतले आज्ञेचो भंग करीत आशिल्ल्यान ईश्वरनिंदक आनी निंद्य आसात अशें म्हण्टात.

जुगार खेळपाची वेवस्था आशिल्ल्या स्थळाक युरेपांत 'कॅसिनो' अशें म्हण्टात. कॅसिनोंत तरेकवार करमणुकीचीय वेवस्था आसता. थंय नाचाचीं दालनांय आसतात. बिलिअर्डसारके खेळ खेळून करमणूक करपाचीय वेवस्था थंय आसता. पोर्तुगालांत इश्टुरील, ग्रीसांत कॉर्फ्यू, अस्तंत जर्मनींत बाडेन-बाडेन आनी बार्ट-हॉम्बुर्क हांगा कॅसिनो आसात. मोनाको राज्यांत मोन्ते-कार्लो हांगाच्या १८६१ वर्सा सुरू जाल्लो आनी १८७९ त विस्तार करून उबारिल्लो 'कॅसिनो' जगप्रसिध्द आसा. अमेरिकेंतल्या नेव्हाडा राज्यांत कॅसिनो वैध आसात. सगळे कडेन कॅसिनोचें स्वरुप सारकेंचशें आसता. हातूंत वांटो घेवपी खेळगड्यांक आपलेभितर एकामेकांकडेन पयशे लावपाक मेळना. सगळ्या खेळगड्यांक चालकाआड खेळचें पडटा. ह्या खेळांची रचना आनी पयशे लावपाची पध्दत हाका लागून तांच्या चालकांक खूब फायदो जाता.

युरेप-अमेरिकेंतल्या जुगारघरांत तरांतरांचीं यंत्रां दवरिल्लीं आसतात. स्कॉट यंत्र हें त्याच प्रकारचें एक यंत्र. एक नाणें तातूंत उडयलें म्हण्टकच हें यंत्र चालू जाता. पयशे उडयतल्याक इनाम मेळिल्लें आसत जाल्यार थारावीक मोलाचीं नाणीं ह्या यंत्रांतल्यान भायर पडटात. येणावळ आसा ताच्या दोन तृतीयांश रक्कम इनामांखातीर वाटतात.

घोड्यांच्यो सर्ती, सोर्ती (लॉटरी) हे जुगाराचे प्रकार खूब लोकप्रिय आसात. ऑगस्टस, नीरो आनी हेर रोमन सम्राटांनी सोर्तीचो उपेग राज्याचें उत्पन्न वाडोवपाखातीर आनी इमारती बांदपाखातीर केलो. युरेपांत पंदराव्या शेंकड्यासावन सोर्ती चालू आसात. पयले एलिझाबेथ राणीच्या पुरस्कारान पयली सोर्त १५६९ त सुरू जाली. सतराव्या शेंकड्यांत अमेरिकेंत सोर्तीच्या उत्पन्नातसून शाळा, इगर्जी आनी भौशिक कामांक मदत दिताले. दुसऱ्या म्हाझूजांत रशियन सरकारान सोर्तीच्या मार्गान दुडू एकठांय करून तो झुजाच्या कार्याखातीर वापरलो. झुजाचे रोखे घेवपी लोकांक सोर्तीचीं तिकीटां फुकट दिताले.

भारत सरकारानूय बक्षिसांचे रोखे काडिल्ले. तातूंत व्याजाच्या जाग्यार दर स म्हयन्यांनी इनामां दिताले. ५ वर्सांनी मूळ मुद्दल परत मेळपाचें आशिल्ल्यान हेर सोर्तींत आसता तसो हांगा मूळ रक्कम होगडावपाचो धोको नाशिल्लो. महाराष्ट्र, गोंय आनी हेर राज्यांनीय उत्पन्नाखातीर सोर्ती सुरू केल्यात. गोंयांत 'प्रोव्हेदोरिया' ही संस्था सोर्ती काडटा आनी हातूंतसून मेळिल्लें उत्पन्न अनाथाश्रम, गरीब विद्यार्थी, गरीब कुटुंबां हांच्या आदाराखातीर वापरतात.

भारतांत न्यूयॉर्क कॉटनचे आनी हेर सट्ट्यांचे प्रकार प्रचलित आसात. लोकप्रिय जाल्लो मटको होय सट्ट्याचोच एक प्रकार. हे सट्टे आंकड्यांचेर आदारिल्ले आसतात. ते बेकायदेशीर रीतीन चालू आसतात. देखून तातूंत खूब व्हडली अर्थीक उलाढाल जायत आसली, तरी सरकाराक कांयच उत्पन्न मेळना.

प्राचीन काळासावन जगभर जुगाराची प्रथा आसली, तरी ती वायट अशें मानलां. अमेरिकेंत जुगाराच्या इतिहासाचो नियाळ करतना जुगाराचो आनी गुन्यांवकारीचो लागींचो संबंद आसा अशें दिसून आयलें. जुगाराक लागून समाजाची अर्थीक परिस्थिती इबाडटा म्हूण सगळ्या राश्ट्रांनी जुगाराक आळाबंद हाडपी कायदे आसात. धर्मीक नदरेपरसूय हे कायदे राजकी आनी अर्थीक गरजेंतल्यान जल्माक आयल्यात. अमेरिकेंत जुगाराविशीं कायदे करपाचे अधिकार राज्याचे कक्षेंत आशिल्ल्यान दरेका राज्यांत वेगळो कायदो दिसून येता. भारतीय संविधान अधिनेमाखाल भौशिक उपद्रवकारक जुगार आनी तेजीमंदीसारक्यो कबलाती अवैध आसूनूय कारवाय करीसारक्यो नात. केंद्रान आनी प्रांतांनीय सुमार १८५० सावन कांय प्रकारचे जुगार दंडनीय थारावपी अधिनेम केल्यात.

भौशिक सुवातींनी पयशे लावन खेळप हो जुगार दंडनीय आसा. तेचप्रमाण एकाद्र्यान मोल घेवन आपलो जागो जुगार खेळपाखातीर वापरुंक दिलो जाल्यार तें कर्तुप जुगारांत येता. ह्या जुगारांत वांटो घेवपी आनी जुगार खेळपाखातीर आपली सुवात दिवपी अशे दोगूय जाण ख्यास्त भोगपाक पात्र जातात.

फकत कौशल्यावलंबी उपक्रमांचेर बंधन घालूंक ना. भौशिक सुवातींनी वा भौशिक जुगारघरांनी जुगार खेळप आनी फायद्याखातीर भौशिक जुगारघरां चलोवप हे गुन्यांव जावन आसात. इस्पिक्यो, फाशे, तक्ते ह्या जुगारसाधनांसयत वा साधनांविरयत फायद्याच्या मोलांत वापरपाक दिल्ली घरासारकी बंदिस्त सुवात म्हळ्यार भौशिक जुगारघर, अशी व्याख्या कायद्यांत आसा.

भौशिक रस्त्यांचेर जुगार खेळपी लोकांक वा सुकण्यांच्यो, जनावरांच्यो धिरयो लावपी लोकांक पोलीस अधिपत्राबगर धरूंक शकतात. अधिपत्राखाल भौशिक जुगारघरांत प्रवेश करून तपास करपाचो आनी उपस्थितांक वा जुगारसाधनांक ताब्यांत घेवपाचो अधिकारुय पोलिसांक आसा. ताब्यांत घेतिल्लीं जुगारसाधनां पोलीस नश्ट करतात, सरकार जमा करतात वा हक्कदारांक दितात.

कांय नेमांचेर चलपी घोड्यांच्यो सर्ती आनी सोर्ती वैध आसात. तांचेविशीं अनुक्रमान १९१२ आनी १९५८ चे अधिनियम लागू केल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**जुम्माः** मुसलमान लोकांचो विसव घेवपाचो दीस. सुक्राराक दिसा जुम्मा पाळटात. मुसलमान लोक, हो दीस पवित्र अशें मानतात.

सुक्राराक जुम्मा पाळचो, असो देवाचो आदेश आसा, अशें पैगंबरान म्हळां. ह्या दिसा सगळे मुसलमान लोक न्हावन धुवन निवळ कपडे घालून मशिदींत वतात. थंय सदांपरस एक वेगळी प्रार्थना म्हण्टात. इमामालागीं बसून 'खुत्बा' आयकतात. अशा वेळार गजाली करप, फकाणां करप हीं नेमाभायलीं कर्तुपां मानल्यांत. जो मुसलमान सगळे नेम पाळटा, ताका वर्सभर उपास आनी प्रार्थना केल्याचें पुण्य मेळटा, अशें पैगंबरान म्हळां. जो मुसलमान भावनेन 'खुत्बा' श्रवण करता, ताचीं सगळीं पातकां ना जातात, असो मुसलमानांचो भावार्थ आसा.

ह्या दिसाचो थोडो वेळ चड पवित्र मानतात, पूण तो वेळ खंयचो तो कोणाकूच खबर ना. ह्या पवित्र वेळे मजगतीं केल्ली प्रार्थना मनाक शांती दिता अशी भक्तांची श्रध्दा आशिल्ल्यान त्या दीसभर देवाक होरायत रावचें आनी चूक मागची, अशें सांगतात.

जुम्मा दिसा गरीब-गिरेस्त मुसलमानांनी आपले वेव्हार बंद दवरचे, असो मुसलमान धर्माचो आदेश आसा; पूण हो दीस पवित्र मानिल्ल्यान ह्या दिसा बऱ्या कार्याची सुरवात करपाची चाल मुसलमान लोकांभितर आसा. ह्या दिसा व्हड प्रमाणांत दानधर्म करप म्हळ्यार पुण्य मेळोवप, अशें मानतात. ह्या दिसा मनोरंजनाच्यो कार्यावळी जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**जुलयः** ग्रेगोरीयन कॅलेंडरांतलो ३१ दिसांचो सातवो म्हयनो. एकदम सुर्वेक म्हळ्यार जेन्ना एक मार्चाक वर्साचो पयलो मानताले तेन्ना हाका क्विंटिलिस (पांचवो) अशें म्हण्टाले. हाचें पोरनें डच नांव ह्यूमांड अशें आशिल्लें. १२ जुलय हो ज्युलियस सीझर हाचो जल्मदीस आशिल्ल्यान ताच्या मरणाउपरांत दोन वर्सांनी ताच्या भौमानाखातीर मार्कस अँटोनायनस हाणें हें नांव दिलें. पोरन्या रोमन कॅलेंडरांत हाचे ३६ दीस आशिल्ले, न्यूमा हाणें ते ३१ केले, मागीर ते ३० जाले आनी फुडें परत ३१ केले. जुलयचे २ तारखेर पृथ्वी आपले कक्षेंत अपबंदू म्हऱ्यांत म्हळ्यार सूर्यापसून पयसांत पयस आसता आनी तिचो वेग उण्यांत उणो आसता.

हिंदू पंचागांप्रमाण जुलय म्हयनो चड करून आषाढ-श्रावण ह्या म्हयन्यांत येता. ह्या म्हयन्याचे १६ तारखेक सूर्य कर्क राशींत प्रवेश करता.

वेगवेगळ्या राश्ट्रांचे स्वातंत्र्यदीस ह्या म्हयन्यांत येतात ते अशे- ४ तारखेक अमेरिका आनी फिलिपीन्स, ५ तारखेक व्हेनेझुएला, ९ तारखेक आर्जेंटिना, १४ तारखेक फ्रांस, २३ तारखेक बेल्जियम, २५ तारखेक नेदर्लंड्स, २८ तारखेक पेरु.

भारतीय म्हत्वाचे दीस अशे- ३ तारखेक नामदेव समाधी, ४ तारखेक विवेकानंद निर्वाण, २० तारखेक संत तुळशीदासाचो जल्मदीस, २३ तारखेक लोकमान्य टिळकाचो जल्मदीस, ३० तारखेक तुळशीदासाचो देहत्याग.

- कों. वि. सं. मं.

**जुवारीः** गोंय राज्यांतली म्हत्वाची न्हंय. तिका 'अघंनाशिनी' ह्या पोरन्या नांवानूय वळखतात. ही न्हंय गोंयच्या दक्षिण भागांतल्यान व्हांवता.

हे न्हंयचो उगम सांगें म्हालांत, सह्याद्रीच्या मुळसांत जाता. सांगें म्हालांत तळावली न्हंयचो एक फांटो तिका उजवेवटेन येवन मेळटा. व्हड दोंगर आनी रानखणींतल्यान वेगवेगळे उंचायेर व्हांवत ती अस्तंतेवटेन धुंवता. सांगें गांवांलागसारच्यान ती मुखार वता आनी सावड्डें आनी कुडचडें ह्या दोन जोडशारांमदल्यान व्हांवता. सावड्डें शार हुपल्याउपरांत ती फुडें व्हांवता. हांगासावन हें न्हंयचो दलदलीचो वाठार सुरू जाता. फुडें केपें-पाड्डें गांवांतल्यान आयिल्ली कुशावती न्हंय आनी सांतानची न्हंय तिका मेळटा आनी तिची रुंदसाण वाडटा. उपरांत हे न्हंयचो एक फांटो मडकय-कुंभारजुवेंच्यान वता आनी माशेलचे न्हंयेक मेळटा. अशे तरेन दोनूय न्हंयांचो संगम जाता. कुठ्ठाळी काडल्याउपरांत तिचे उत्तरेक बांबोळी आनी काबोची तर दक्षिणेक दाबोळी-मुरगांव आनी कुठ्ठाळेचीं पठारां आसात. उत्तरेक सांगें, फोंडें आनी तिसवाडी तर दक्षिणेक केपें, साश्ट आनी मुरगांव ह्या म्हालांक वेगळे करून ती मुरगांव हांगा अरबी दर्याक मेळटा. अरबी दर्याक मेळटा आसतना तिचें पात्र रुंदावल्लें आसा, तशेंच ह्याच जाग्यार तिका मांडवी न्हंय येवन मेळटा. आपल्या उगमासावन अरबी दर्याक मेळसर ती ३४ किमी. व्हांवता. जुवारी न्हंय अरबी दर्याक मेळटां आसतना कांय ल्हान सान जुंवेय नदरेक दिसतात. दाबोळी पठाराचे उदेंतेक सेंट जॉर्ज जुंवो तर मुरगांव पठाराचे नैर्ऋत्येक सेंट जॉर्ज, कंबारी आनी पिगेंचो जुंवो उक्त्या दर्यांत आसा.

हे न्हंयेचो बरोच व्हड वाठार बार्जींतल्यान उदका येरादारी करपाखातीर आनी खास करून खणमालाची हाड-व्हर करपाखातीर मेळटा. हिच्या तोंडार नामनेचें मुरगांव बंदर वसलां. हें बंदर सैमीक आसून ताका आंतरराश्ट्रीय म्हत्व आसा.

हे न्हंयेच्या पुराय वाठारांत नुस्त्याची पिकावळ व्हड प्रमाणांत जाता. हे न्हंयेच्या दोनूय देगांवेले नुस्तें मारपी लोक चडशे नुस्तेमारीच्या धंद्याचेर जियेतात. हे न्हंयेचो उगमाकडलो भाग साव्या उदकाचो भाग आशिल्ल्यान ताचे देगेक जो गाळ पडटा, ताचे वयर्वी रेंव तयार जाता. ती रेंव घर बांदकामाखातीर आनी हेर बांदावळीखातीर वापरतात. ह्या वाठारांतले कितलेशेच लोक रेंव काडपाचो वेवसाय करतात.

आदले मुस्तींत हे न्हंयेचो उपेग प्रवासी येरादारीखातीर जातालो. सावड्डें ते पणजी, वळवय मार्गांतल्यान लोकांक हाड-व्हड करपी वाफोर (लाँच) सेवा चलताली. बार्जींचें आगमन जावचे पयलीं खणमालाची येरादारी शिडाच्या व्हड्यांनी जाताली. तण, रेंव, माती, शिंपयो हांची येरादारी ल्हान ल्हान व्हड्यांनी आदलेवरी आयजूय जाता.

आपल्या उगमासावन अरबी दर्याक मेळमेरेन जुंवारी न्हंयेचेर चार म्हत्वाचे पूल आसात. हातूंतलो आगशी-कुठ्ठाळेचो पूल सगळ्यांत व्हड आसून ताणें दक्षिण आनी उत्तर गोंय एकामेकांक जोडल्यात. दुसरे पूल बोरये गांवांत आसून ताणें साश्ट आनी फोंडें म्हाल एकामेकांक जोडल्यात. तिसरो पूल सावड्डें शारांत आसून तेवरवीं फोडें, सांगें, केपें म्हाल एकठांय आयल्यात. चवथो पूल सांगें म्हालांत सांगें गांवांत आसा. धडे-सावड्डें हांगा हे न्हंयेचेर रेल्वेचो पूल आसा. सद्या मिराबाग-सावड्डें हांगा हे न्हंयेचेर आनीक एक पूल बांदतात.

- कों. वि. सं. मं.

**जूनः** ग्रेगोरियन कॅलेंडरांत ३० दिसांचो सवो म्हयनो. जुनो देवतेवेल्यान हें नांव पडलां आसूंक जाय. पोरन्या रोमन कॅलेंडरांत हो चवथो म्हयनो आशिल्लो आनी तातूंत २६ दीस आशिल्ले. ताचे रोम्युलस हाणें ३०, न्यूमा हाणें २९ आनी ज्युलियस सीझर हाणें परत ३० दीस केले. अँग्लो-सॅक्सन लोक हाका 'ड्राय मंथ' (Sere Monath) म्हण्टात. २१ जून ह्या दिसा सूर्य उत्तर संस्तंभांत आसता आनी देखून हो उत्तरायणान्त दीस मानतात.

हिंदू पंचांगाप्रमाण जून म्हयनो चडसो ज्येश्ठ-आषाढ म्हयन्यांत येता. ह्या म्हयन्यांत १४ तारखेक सूर्य मिथुन राशींत वता. तशेंच ७ जूनाक, सूर्याचो मृग नक्षत्रांत प्रवेश जाता. गोंयांत आनी महाराष्ट्रांत जून म्हयन्यांत पावसाळो सुरू जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**जूयः** (मराठी-जुई; संस्कृत-यूथिका, मागधी, मुग्धी, सुचिमल्लिका; हिंदी- जुही, जुई; कन्नड-कदरमळिळगे; लॅटीन- जॅस्मिनम ऑरिक्युलेटम; कूळ- ओलिएसी).

झोंपांनी जावपी ही वाल मुळची उश्ण कटिबंधांतली आसून भारताच्या द्वीपकल्पांत दक्षिणेकडेन केरळमेरेन मेळटा. तिचीं पानां सादीं आनी एकामेकांसामकार आसतात. पूण कांय वेळा हीं पानां त्रिदळी (trifoliate) आसतात आनी ताचे कुशीचीं पानां सामकीं ल्हान वा कानाचे पाळयेसारकीं (कर्णिकाकृती) आसतात. ताचो तुरो (inflorescence) एकसंघ आसता आनी ताचेर ल्हान ल्हान धवीं वासाचीं फुलां जातात. ताची पुश्पमुकुट- नलिका १.२ सेंमी. लांब आसता. दरेके पाकळेचो वेगवेगळो भाग लांबसर वाटकुळ्या आकाराचो आनी ०.६ सेंमी. लांब आसता. ताका वट्ट पांच संदलां (sepal) आसतात. फुलाक पांच ते आठ पाकळ्यो आसतात आनी फूल दिवले भशेन आसता. फुलांक दोन केसरदलां (stamens) आसतात. दोन किंजदळांच्या (carpels) उर्ध्वस्थ (superior) किंजपुटांत दोन कुडी आसतात. ताका वाटकुळें काळें द्विखंडी (biciliate) आनी मोव फळ जाता. तातूंत दोन वा चार बियो आसतात. भारतांत सगळेकडेन आनी चड करून उत्तर प्रदेश, बिहार आनी अस्तंत बंगाल ह्या प्रदेशांनी वासाळ फुलांखातीर ह्या झाडाची लागवड करतात. उत्तर प्रदेशांत गाझीपूर, जौनपूर, फरुखाबाद आनी कनौज ह्या वाठारांनी वेपारी नदरेन ह्या झाडाची लागवड जाता.

ह्या झाडाक उदक सांठून उरना तसली आनी मध्यम प्रकाराची भूंय लागता. शिंया तेंपार काळार भूंय खणून, ती सारकी करून सारें घालून आळीं तयार करून दवरतात. उपरांत नोव्हेंबर-जानेवारीच्या सुमाराक ३ मी. अंतर दवरून जुयेचे वालीचे कुडके लायतात. फुडें पावसाळ्यांत म्हळ्यार जुलय ते ऑगस्टाच्या सुमाराक ह्या झाडांक फुलां येवंक लागतात. वाल जशी जशी वाडटा, तशी माटव घालून तिका माटवाचेर चडयतात. ह्या फुलांपसून ०.२० ते ०.३०% अत्तर मेळटा. वासाचें तेल

काडपाकूय हीं फुलां उपेगी पडटात. ह्या झाडाक केन्ना केन्नाय 'मेलिओला जॅस्मिनीकोला' हो रोग जाता. ताचेर उपाय म्हूण बोर्दो मिश्रण मारतात.

- कों. वि. सं. मं.

**जेजुईत सभा:** एक धर्मसभा. हे सभेची निर्मणी इनिगो लोपीश द लॉयोला म्हळ्यार संत इनास द लॉयोला हाणें केली. ताचो जल्म १४९१ वर्सा जालो. ताच्या जल्मदेशाविशीं दुभाव आसा (स्पेन, ईजिप्त). ३१ जुलय १५५६ दिसा रोम प्रांतांत ताका मरण आयलें. ताच्या बापायचें नांव बरत्रन इब्ने द ओनाझ तर आवयचें मारिया सांचेझ द लिकोना आसलें. संत इनासाचो घराबो झुंजारी म्हूण नांवाजिल्लो. एक फावट पापीलोना शारांत, तो स्पेनाचे वतीन झुजतना ताच्या पांयार गुळी बसली आनी तो सासणाचो थोटो आनी घायाळ जालो. वखदपाणी करपाक तो गांवघरा आयलो आनी आपलो वेळ सारुंक पुस्तकां वाचूंक लागलो. ताच्या हातांत एक दीस सॅक्सेनियाच्या लुडालफाचें क्रिस्ताचें जिवीत आनी भाग्यवंताची जस्मीन हीं दोन धर्मीक पुस्तकां पडलीं. हीं पुस्तकां वाचून तो जेजू क्रिस्ताच्या मोगान पडलो. जें कितें ताणें ताच्या काळजांत अणभवलें आनी पारखिलें तें ताणें नामनेच्या 'लॉस एक्सरसीसियोस एस्पिरितुआलेस' (Los Exercicios Espirituales) पुस्तकांत बरोवन दवरलां. हें पुस्तक ताच्या जिविताचें आनी फुडले 'जेजुईताचे सभेचें' मार्गदर्शक थारलें.

इनास आपलें घर-दार सोडून जायत्या सुवातींनी भोंवलो. देखीक- मॉन्सरेट, मानरेझा, बार्सेलोना, जेरुसलेम, पारीस आदी. भोंवडी करतना ताच्या वांगडा ताचे जायते इश्ट-सांगाती आसताले. हातूंत फ्रांसिश्कु शाव्हियॅर, पी. पियॅर फाव्र, जाइम लायनेझ, निकोलस बोबादिल्ला, दियोग द ओसेझ, जां कॉद्यूर, आल्फोन्सो सालमिरोन, सिमांव रोद्रीगीश हांचो आस्पाव आशिल्लो. निमाणे हे सगळे रोम शारांत पावले. आपल्या ह्या इश्टाच्या पालवान इनासान जेजूची सभा घडयली. पापसायब पावलू तिसऱ्यान आपल्या आज्ञापत्रांत २७ सप्टेंबर १५५० त जेजूचे सभेक मान्यताय दिली. इनासाचे येवजणेप्रमाण नवे संस्थेचो हेत भावार्थाचो प्रसार आनी राखण हो आसलो. पापसायब हेखातीर खोशी आसलो. इनास आनी ताचे सांगाती भुरग्यांक, जाण्ट्यांक दोतोन शिकोवप, गांवांत जावपी मिसांनी जेजूची वळख करून दिवप, शाळा आनी महाविद्यालयां चलोवप, ट्रेंट शाराच्या विश्वसभांनी वांटो घेवप आनी हेर वावर करताले. जेजूईतांचो आंकडो चड नासलो तरीकय ते युरोप, झेकोस्लोव्हाकिया, अमेरिका, आफ्रिका ह्या वाठारांत पावले. संत फ्रांसिश्कु शाव्हियॅर हो व्हडलो जेजूईत ६ मे १५४२ दिसा गोंयांत पावलो. २१ जुलय १७७३ दिसा क्लेमेंत- १४ न जेजूची सभा रद्द केली. १८११ वर्सा पीयु- ७ न ही सभा पुनरजिवीत केली.

जेजुईतांनी पोर्तुगेज-कोंकणी आनी कोंकणी-पोर्तुगेज कोश, व्याकरणां रचलीं. मराठीचीय सेवा तांणी केली. हातूंत तॉमस स्टीव्हनच्या क्रिस्त पुराणाचो आस्पाव जाता. आयज संवसारांत २४,००० जेजुईत आसात. ते आपले तांकीप्रमाण वावर करतात.

गोंयच्या साश्ट म्हालाचें क्रिस्तीकरण जेजुईतांनी केलें. ११ मे १५६० दिसा तें सगळ्यांत पयलीं हांगा पावलें. गोंय, रायतूर, चोडण गांवांत कोंकणी शाळा तांणी स्थापन केल्यो. तॉमस स्टीव्हन्स, दियोगो रिबेरो, मिंगेल द आल्मेदा, इग्नाझियो आर्कामोने हे जेजुईत हो वावर करपांत मुखेल आसात.

- आंतोनियो पेरैरा

**जेजुरी:** पुणें जिल्ह्यांतलें एक नामनेचें देवस्थान. हें ठिकाण पुणे-नीरा रस्त्याचेर, पुण्याक सावन सुमार ५२ किमी. आनी सासवडसावन सुमार १६ किमी. अंतराचेर आसून पुणे-मिरज रुंदमापी लोहमार्गावयलें एक स्थानक आसा. हांगाचें मल्हारी मार्तंड म्हळ्यारूच खंडोबा दैवत महाराष्ट्रांत आनी खास करून कर्नाटकांत नांवाजिल्लें आसा. जेजुरी दोंगुल्लेचेर कन्हे पठार आनी गडकोट अशा दोन सुवातींनी खंडोबाचीं देवळां आसात. हातूंतलें कन्हे पठार हें चड पोरनें आसा अशें म्हण्टात. हें ठिकाण जेजुरी गांवाचे नैर्ऋत्येक सुमार ३.५ किमी. अंतराचेर आनी १२२ मी. उंचायेचेर दोंगुल्लेच्या माथ्यार आसा. ह्या देवळाच्या लागसारुच आशिल्ल्या राममंदिरांत इ.स. १७९० ह्या काळांतलो एक शिलालेख आसा.

कन्हे पठार सुवातीचे ईशान्येक आनी गांवापसून सुमार ७२ मी. उंचायेच्या दोंगुल्लेवयलें देवूळ हेंच सद्याचें खंडोबाचें मुखेल देवस्थान आसा. हाचेभोंवतणी तटबंदी आशिल्ल्यान लोक ते सुवातीक 'गडकोट' अशें म्हण्टात. वयर वचपाखातीर सपणांनी बांदिल्लो एक सोबीत रस्तो आसा. ह्या रस्त्याच्या दोनूय वटेन सोबीत दीपमाळो आसात. देवळाभोंवतणी फरसबंदी आवार आनी तट आसा. सोपो, मंडप आनी गर्भकूड अशे ह्या मंदिराचे तीन विभाग आसात. देवळामुखार वीस फूट व्यासाचें पितुळच्या पत्र्याचें एक कासव आसा. कासवाशेजराच 'बगाड' घेवपाचो एक खांबो आसा. ह्या खांब्याक तेंकुनूच मणी दैत्याचो ९ फूट उंचायेचो एक फातराचो पुतळो आसा. ह्या देवळाच्या सोप्यांत एक खड्ग आसा. ह्या खड्गाक 'कालखड्ग' अशें म्हण्टात. हाची लांबाय ४ फूट, रुंदाय ४ इंच आनी वजन सुमार ३५ किग्रॅ. आसा. ह्याच खड्गान मल्हारी मार्तंडान मणी दैत्याचेर जैत मेळयल्लें, अशी एक आख्यायिका सांगतात. ह्या देवळाचे गर्भकुडींत खंडोबा आनी म्हाळसा हांचीं दोन स्वयंभु लिंगां आसात. तांचेर रुपेरी रुपडीं आसात. ह्या स्वयंभू लिंगांच्या फाटल्यान खंडोबा आनी म्हाळसा हांच्या उब्या मुर्तींच्यो तीन जोडयो आसात. प्रदक्षिणेचे वाटेर तुळजाभवानी आनी गणपती हांचीं देवळां आसात. तांचेमुखार एक व्हडली शिळा आसा. हे शिळेक 'महामारी' वा 'घृतमारी' अशें म्हण्टात. हे शिळेफाटल्यान एक दंतकथा आसा ती अशी:

मणि-मल्ल दैत्यांचो संहार करपाखातीर अवतार घेतासतना शंकरान तिडकीन जटा आपटिल्यो, तेन्ना ही महामारी उत्पन्न जाली. तिका तूप पियवलें, तेन्ना ती घृतमारी जाली. तिणें मार्तंड भैरवाक झुजांत खूब मदत केली. मागीर ती शांत जावन हांगा येवन शिळा जावन पडली. ह्या देवळांत जायते फातरापटे आसात. तातूंतलो सगळ्यांत पूर्विल्लो फातरापटो इ.स. १२४६ ह्या काळांतलो आसा. इ.स. १५१० च्या सुमाराक चैतन्य महाप्रभू यात्रेच्या निमतान हांगा आशिल्लो अशें म्हण्टात. ताणें हांगाच्या खंडोबाच्या भक्तांक नैतिक आचरणाचो उपदेश केलो आनी ताका लागून खूब जाण बऱ्या मार्गाक लागले, अशें सांगतात. ह्या देवळाक १६६२ त शहाजीन भेट दिल्ली. अहिल्याबाई होळकर हिणें इ.स. १७४२ ते १७७७ ह्या काळांत खंडोबाच्या देवळाची बरीच डागडुजी केली. नाना फडणवीस हाणेंय देवळाखातीर फंड दिलो. दुसरे बाजीराव आनी अहिल्याबाई होळकर हांणी बांदिल्ल्यो तळयो ओडलायण्यो आसात. मल्हारराव होळकराच्या उगडासाखातीर बांदिल्लें महादेवाचें मंदिरुय सोबीत आसा.

जेजुरी गांवांतलो आनी भोंवतणचो सगळो वाठार सुपीक आसा. हांगा १८६८ सावन नगरपालिका आसून धर्मशाळा, मुळावें भलायकी केंद्र, मुळावी आनी माध्यमिक शाळा हांची तजवीज आसा. जेजुरीक चंपाषष्ठी, सोमवती अमास, चैत्री, श्रावणी, पौषी आनी माघी ह्यो चार पुनवो अश्या तिथींक खास उत्सव जातात. चंपाषष्ठी हो हांगाचो सगळ्यांत व्हडलो उत्सव आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**जेजू क्रिस्त:** (जल्मः इ.स.प. सुमार ४-८; मरणः इ.स. ४३).

किरिस्तांव धर्माचो संस्थापक आनी क्रिस्तीधर्माचे शिकवणेप्रमाण देवाचो पूत आनी संवसाराचो सोडवणदार. ताका येशू क्रिस्त वा जीजस ख्राइस्ट अशेंय म्हण्टात. जेजू क्रिस्ताविशीं आमी जें जाणात तें चडशें ताचे चार शिश्य मॅथ्यू, मार्क, ल्यूक आनी जॉन हांणी केल्या वृत्तांतांतल्यान. आनी हो वृत्तांत भावार्थाचे नदरेन बरयल्ल्यान तातूंत इतिहासीक सत्य कितलें आसा तें सोदून काडप कठीण. तेचप्रमाण तातूंतल्यान जेजू क्रिस्ताच्या जिविताच्या मुखेल प्रसंगाच्यो तारखो निश्चीत करपूय कठीण

जाता. पेलेस्टाइन हांगासल्ल्या जेरुसलेम लागसारच्या बेथेलेहम नांवाच्या गांवांत ज्यू कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. ताची आवय मेरी हिचें जोसेफ नांवाच्या एका ठवयाकडेन लग्न जालें आनी तीं एकठांय येवचेआदींच तिका पवित्र आत्म्यावरवीं गर्भ धरिल्लो. जोसेफाक सपनांत देवान दृश्टांत दिलो आनी ताका आपले बायलेचो स्वीकार करपाक सांगलें. फुडें तीं नाझरेथ ह्या गांवांत रावंक लागलीं. थंयच जेजू ल्हानाचो व्हड जालो. पिरायेच्या तीस वर्सांमेरेन तो ठवयाचें काम करतालो.



त्या काळांत पुराय यहुदी (जुदेव) जात रोमन सम्राट तिबेरियस हाचे सत्तेखाला आशिल्ली. ताच्या राजकी अत्याचारांक लोक सामके विटिल्ले. कोणतरी इश्वराचो दूत येतलो आनी तांकां ह्या त्रासांतल्यान मुक्तताय दितलो, अशें तांच्या धर्मशास्त्रांत सांगिल्लें. त्याच वेळार योहान (जुआंव) नांवाचो एक धर्मीक मनीस लोकांक उपदेस करत जॉर्डनच्या वाठारांत भोंवतालो. ताणें जायत्या लोकांक जॉर्डन न्हंयत बाप्तिस्मा दिवन शुध्द केल्ले. थंयच्या लोकांक योहान म्हळ्यार देवाचो पूत अशें दिसतालें. ताची ही कीर्त जेजूच्या कानार पावली आनी तो ताका मेळूंक गेलो. जेजूक पळयतनाच योहानाक आत्मज्ञान जालें की, देवाचो पूत तो होच आनी तो ताका शरण गेलो. तें पळोवन जेजूक अजाप जालें आनी ताणें ताका आपूण बाप्तिस्मा घेवंक आयलां म्हूण सांगलें. सुर्वेक तो बाप्तिस्मा दिवंक तयार जालो ना. पूण अखेर जेजून ताचेकडसून शास्त्रोक्त तरेन बाप्तिस्मा घेतलो. त्या दिसासावन जेजू परमेश्वराचो उपदेश करत भोवंक लागलो.

थोड्या तेंपान ताका कांय शिष्य मेळ्ळे. तांच्या वांगडा तो देशाचे भोंवडेक गेलो. जेजू सादे बोलीभाशेंत आनी वेव्हारीक जिणेंतली देख दिवन धर्मप्रवचनां करतालो. देखूनच सामान्य लोकांचेर ताचो प्रभाव पडलो. लोकांक शिकवण दिवप आनी रोगांतल्यान मुक्त करप असो वावर तो करतालो. ताच्या चमत्कारांनी कुड्डे, भेरे पुरायपणान बरे जाले अश्यो आख्यायिका आसात. ताणें फकत तीस वर्सां आपलो वावर केलो, पूण त्या थोड्याच काळांत ताणें आपल्या भोंवतणच्या लोकांक देवाविशींचें आनी मनीसपणाविशींचें गिन्यान दिलें. आपल्या अनुयायांमदल्यान ताणें बारा शिष्य वेंचून काडले आनी तांकां प्रेषितांची पदवी दिली. तेन्नाचे पुरुशी आनी ज्यू पोरन्या करारांतल्या वचनांचो आनी शिकवणेचो आदार करीनासतना क्षुद्र कायदे लोकांचेर लादताले. तांणी जेजूची मोगाची आनी मनीसपणाची शिकवण उक्त्या मनान आनी समजीकायेन मानून घेतली ना. जेरुसलेम ह्या ज्यू लोकांच्या मुखेल शारांत जेन्ना जेजू आयलो तेन्ना थंयच्या लोकांनी ताका उर्बेभरीत येवकार दिलो. ताणें थंयच्या मंदिरांत वेपार करपी लोकांक धांवडावन घाले. जेजू क्रिस्तान आपले जिणेंत म्हत्वाच्या प्रसंगांवेळार जे निर्णय घेतल्यात ताचेवेल्यान ताचे विचारसरणेची तांक दिसून येता. देखीकः एके गुन्यांवकारी बायलेक ख्यास्त दिवपी सनातनी पुरुशी आनी ज्यू धर्मशास्त्री लोकांक ताणें सांगलें, जो कोण तिच्या पातकाखातीर तिचेर फातर मारतलो ताणें आपल्या जिवितांत कसलेंच पातक केल्लें आसूंक फावना. जेजूचो हो निर्णय आयकून तिचेर फातर मारुंक कोणूच मुखार आयलोना. उपरांत जेजू क्रिस्तान तिका अशा पातकापसून पयस रावपाचो उपदेश केलो.

ताचे शिकवणेक लागून ताचो दुस्वास करपी लोकूय बरेच आशिल्ले. तातूंत सनातनी धर्म पाळून कर्मठपणान जीयेवंक सोदपी, रोमन सत्तेआड बंड करूंक सोदपी आनी गिरेस्त लोक हांचो आस्पाव आशिल्लो. जेजू फाटल्यान लोक वतात ही गजाल तांकां मानवलीना. ते ताका मारून उडोवपाची संद सोदताले. आपल्या मुखार संकश्ट येवपाचें आसा हें जाणून पसून ताणें अपाल्या शिष्यांसयत निमाणें जेवण घेतलें. ताचो एक शिष्य जूडास हाणें ताचो घात केल्यान ताच्या दुस्मानांनी ताका धरलो आनी ताचेर खटलो चलयलो. रोमन गव्हर्नर पाँटियस पिलात हाच्या मुखार ताका उबो केलो. तेन्ना ताणें रोमन सत्तेआड बंडाचो यत्न केलो असो ताचेर आरोप दवरलो. खरें म्हळ्यार रोमन साम्राज्याक ताका काबार करपाखातीर कितेंयतरी कारण जाय आशिल्लें, देखून तांणी ताचेर असो फट आरोप केल्लो. तांणी पुराय चवकशी करीनासतना जेजूक खुर्सार मारपाची ख्यास्त फर्मायली. आपल्याक वेदना आनी दुखख जाता ह्या वेळार पसून जेजू आपलो छळ करप्यांखातीर प्रार्थना करतालो. उपरांत ताका एका थडग्यांत पुरलो.

हाचे उपरांत तीन दिसांनी जेजू पर्थून जितो जालो आनी ताणें आपल्या शिष्यांक दर्शन दिलें अशी आख्यायिका आसा.

ताणें तांकां आपली शिकवण आनी संदेश संवसारभर पातळावपाविशीं सांगलें. हो संदेश म्हळ्यार 'वायटाक बरेपणान जाप दिवप, एकामेकांचो मोग करप, दुस्मानाक क्षमा करप आनी त्रास दितल्यांक बरें मागप' असो आशिल्लो. तो खासा सर्गांत गेलो आनी मनशांभितर वावर करूंक आनी आपली पवित्र सभा वा इगर्ज चलोवंक ताणें आपलो आत्मो आपल्याचेर विस्वास दवरतल्यांचेर धाडलो. जेजू क्रिस्तान स्थापन केल्लो किरिस्तांव धर्म खास करून युरोप खंडांत आनी संवसारांतल्या हेर वाठारांत पातळ्ळा. संवसारांत मानपांत आयिल्ली 'इसवीसन' ही आंतरराश्ट्रीय काळगणना जेजू क्रिस्ताच्या जल्मासावन मेजप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**जे. पी.:** (जस्टिस ऑफ द पीस). शांतताय राखपाखातीर सरकारान नेमिल्लो अधिकारी. ह्या पदाची सुरखात इंग्लंडांत तेराव्या शेंकड्यांत जाली. फुडें १३६१ च्या कायद्यावरवीं दंडाधिकाऱ्याच्या हुद्याक 'जे. पी.' हें नांव दिलें आनी ताची न्यायिक सत्ता वाडली. लॉर्ड चॅन्सलर हाच्या सल्ल्यान वा लॉर्ड लेफ्टनंट वा टाउन कौन्सिल हाचे शिफारशीप्रमाण राजा जे. पी. ची नेमणूक करतालो. तांकां पगार नाशिल्लो. तशेंच विधीक्षेत्रांतली वेवसायिक गुणवत्ताय नाशिल्ली. कायद्याच्या मार्गदर्शनाखातीर आनी पुराव्याच्या नेमांखातीर ते आपल्या पगारी साहाय्यकांचेर आदारून आसताले. चवदाव्या शेंकड्याउपरांत विधीमंडळान तांची पोलीस, न्यायिक आनी प्रशासकीय कामां वाडयलीं. हाचो परिणाम असो जालो की १६ ते १८ ह्या तीन शेंकड्यांत तेच कौंटीचे प्रत्यक्षांत अधिपती जाले. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक तांचे चडशे प्रशासकीय अधिकार संविधीन वेंचिल्ल्या समित्यांक दिले. न्यायिक अधिकार मात तांचेकडेनूच उरले. गुन्यांवकारांची चवकशी, मरणाउपरांतचे विधी, तपास, लग्नविधी हांचेविशींचे अधिकारुय तांकां आसात. अमेरिकेंत हें पद वसाहतीच्या सुरखातीच्या काळासावन चालू आसा.

भारतांत ह्या पदाची सुरखात १७२६ त म्हळ्यार ईस्ट इंडिया कंपनीच्या काळांत जाली. त्या वेळार राजाचे आज्ञेवरवीं जे. पी. ची नेमणूक जाताली. तांचेकडेन बरेच न्यायिक आनी प्रशासकीय अधिकार आसताले. १८६९ त नेमणुकीचो हो अधिकार गव्हर्नर जनरल आनी गव्हर्नर हांचेकडेन आयलो. इलाख्यांतल्या शाराभायर फकत युरोपीय जे. पी. आसचो, हो नेम १९३३ त रद्द जालो. उपरांत जे. पी. भारतीयूच आसूंक जाय, अशें कायदेशीर बंधन आयलें. जे. पी. पदावयली नेमणूक सचोटी, पात्रता आनी हेर गुणांची पारख करून जाताली. राज्य सरकारान

केल्या नेमांवरवीं ते आपल्या वाठारांत रावपी मनशाक वळखीचें प्रमाणपत्र दिवंक शकताले, तशेंच १९५५ उपरांत वळख- परेड घेवंक शकताले. तेचप्रमाण कागदपत्रां सत्यापित वा अनुप्रमाणित करपाचे अधिकार तांकां आशिल्ले. तांचे न्यायिक अधिकार मात उरूंक नाशिल्ले. १९७३ चे भारतीय फौजदारी प्रक्रिया संहितेंत जे. पी. विशींची तरतूद काडून उडयल्या. पूण हे संहितेच्या २१ व्या कलमावरवीं राज्य सरकारांक खास कार्यकारी दंडाधिकारी नेमपाचें आनी तांचीं कामां थारावन दिवपाचे अधिकार दिल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**जैन धर्म:** भारतांतलो एक म्हत्वाचो धर्म. जैन हें उत्तर संस्कृत उतर 'जिना' वेल्यान आयलां. जिना म्हळयार 'आत्म्याचेर ताबो मेळोवपी' वा 'आत्म्याचेर जैत जोडपी'. 'जिना' हें उतर जैन धर्माच्या २४ म्हालगड्या धर्मीक फुडाऱ्यांक उल्लेखून वापरतात. तांचे विचार पाळपी अनुयायांक 'जैन' म्हण्टात. सादारणपणान जिनाक पूजनीय मानपी लोकांचो धर्म तो 'जैन धर्म' वा जिनान ज्या धर्माचें कथन वा उपदेश केलो तो धर्म म्हळयार 'जैन धर्म' अशें म्हण्टात.

जिनांनी आध्यात्मिक मुक्ततायेखातीर यत्न केलो. मनीस जिणेच्या पुर्नजल्माचे कल्पनेविशीं आध्यात्मिक तीर्थाची बांदावळ करपी, म्हूण तांकां 'तीर्थंकर' म्हण्टात.

जैन धर्माची उत्पत्ती बौध्द धर्मासावन जाली असो एक गैरसमज आसलो. सद्याच्या संशोधनावरवीं आनी जैन आनी बौध्द साहित्यांत आयिल्ल्या उल्लेखांतल्यान बौध्द धर्माआदीं जैन धर्म अस्तित्वांत आशिल्लो हें कळटा. हेर्मान याकोबी हाणें जैन आगमांचें पोरनेपण सिध्द केलां. तेचपरी जैन धर्म बौध्द धर्मापरस वेगळो आशिल्ल्याचेंय सांगलां. जैन धर्माची परंपरा निमाणो तीर्थंकर भगवान महावीरासावन सुरु जायना तर ती पयलो तीर्थंकर ऋषभदेवासावन सुरू जाता अशेंय मत ताणें मांडलें. डॉ. राधाकृष्णन हाणें लेगीत याकोबीच्या ह्या मताक तेंको दिला. ताच्या मताप्रमाण इ.स. च्या पयल्या शतमानांत ऋषभदेवाची पूजा जाताली.

यजुर्वेदांत ऋषभदेव, अजितनाथ आनी अरिष्टनेमी ह्या तीन तीर्थंकरांचो उल्लेख येता. भागवत पुराणावेल्यान ऋषभदेव हो जैन धर्माचो संस्थापक आशिल्लो, ह्या मताक फाटबळ मेळटा.

जैन पुराणांत भारत देशाचो इतिहास ताच्या भुगोलीक वर्णनावांगडा दिला. भारत हो जंबुद्विपाचे दक्षिणेंत वसला आसून ताचे उत्तरेक हिमवान पर्वत आनी मध्यभागाक विजयार्ध पर्वत आसा. गंगा आनी सिंधू ह्या दोन न्हंयांक लागून उत्तर भारताचे तीन विभाग जातात. तशेंच दक्षिण भारताचेय तीन भाग जातात. अशे रितीन भारतवर्षाचे स खंड घडल्यात. भारतवर्षाचे सुर्वेचे अवस्थेक जैनांनी 'भोगभूमी' म्हळ्या. हे पयले अवस्थेंत भारतवर्षांत हिंस्त्र सावदांनी भरिल्लीं जंगलां आशिल्लीं. मनीस आनी सावदां हांची वागपाची पध्दत एकूच आशिल्ली. आवय-बापूय भुरग्याची जापसालदारकी घेनासले. पाप-पुण्याची भावनाय कोणामदीं नासली, तशेंच धर्मसाधनाय जायनासली.

एका व्हड काळखंडाउपरांत हे भुंयेचेर संस्कृतायेची पोसवण करपी युगाचो आरंभ जालो. ह्या युगांत व्हड मोलाचो वावर करपी चवदा म्हापुरुस निर्माण जाले. हांकां कुलकर वा मनू म्हण्टात. ताणी मनशाक सुकण्या-सावदांपसून कशी राखण करप तें शिकयलें. भूंय आनी रुख हांचेविशीं मोटेपणाची भावना वाडीक लायली. ल्हान भुरग्याक सांबाळपाचें म्हत्व पटोवन दिलें. शेतकामाची कला शिकयली. वाणिज्य, शिल्प आनी हेर उद्येग निर्माण केले. चवदा कुलकारांउपरांत धर्माचो उपदेश करपी आनी स्वताच्या चारित्र्यावरवीं बरें-वायट, खरें-फट भेद शिकोवपी ६३ म्हापुरुस जल्मले. हातूंत २४ तीर्थंकर, १२ चक्रवर्ती, ९ बलभद्र, ९ वासुदेव, ९ प्रतिवासुदेव हांचो आस्पाव जाता. ह्या ६३ जाणांक 'शलाकापुरुष' म्हण्टात.

**भगवान महावीर आनी जैनधर्म:** भगवान महावीर हो जैनांचो चोविसावो तीर्थंकर आशिल्लो. एक व्हड युगपुरुस म्हूण ताका वळखतात. जैन धर्माच्या इतिहासांत भगवान महावीराचो वावर मोलाचो जावन आसा. ताणें उत्तर आनी उदेंत भारतांत सगळेकडेन भोंवडी करून समाजांतल्या सगळ्या थरांतल्या लोकांचेर प्रभाव घालो. त्या काळांतले विद्वान ब्राह्मण लेगीत महावीराच्या तत्त्वगिन्यान प्रभावीत जाल्ले. ताणें जे अकरा गणधर नेमिल्ले, ते सगळे ब्राह्मण आसले. त्या काळांतल्या विंगड विंगड पंथांच्या आनी उपपंथांच्या संघर्शाच्या काळांत जैन धर्माक थीरपण आनी प्रतिश्ठा मेळोवन दिवपाचें म्हान कार्य भगवान महावीरान केलें.



भगवान महावीर

**जैन धर्माचो इतिहास:** महावीराउपरांत ताच्या शिष्यांमदले गौतम, सुधर्मा आनी जंबूस्वामी हे तीन केवलज्ञानी जाले. तांचे उपरांत नंदिमित्र, अपराजित, गोवर्धन आनी भद्रबाहू हे पांच श्रुतकेवली जाले, निमाणो श्रुतकेवली भद्रबाहू हो मगधांत दुकळ पडिल्लो आसतना एक व्हड जैनसंघ घेवन दक्षिण देशांत गेलो. ताका लागून थंय जैन धर्माचो व्हड प्रमाणांत प्रसार जालो.

महावीराच्या काळांत भरतखंडांत १६ महाजनपदां अस्तित्वांत आसलीं. हातूंतल्या चडशा जनपदांतल्या राजपुरुषांकडेन महावीराचो संबंद आयलो. वैशाली जनपदाचो राजा 'चेटक' हो जैन श्रावक आसलो. वत्सराज उदयन नांवाच्या राजाचे बायलेन आपल्या महालांत 'चैत्यालय' बांदिल्लें. शिशुनाग वंशांतलो श्रेणिक राजा, ताचो पूत कूणिक आनी उदायी हे तिगूय महाविराचे अनुयायी जाल्ले. तांणी जैन धर्माचो प्रसार केलो. उदायी हाणें पाटलिपुत्र नगरांत जैन मंदिरं बांदलीं. मगधाचेर राज्य करपी नंद राजानूय जैनधर्माक पुराय तेंको दिलो. मौर्य काळांत जैन धर्मापरस बुध्द धर्माक चड फाटबळ मेळ्ळें आसलें तरी जैन परंपरेप्रमाण चंद्रगुप्त मौर्य हो जैन आसून भद्रबाहूचो शिष्य आसलो. संप्रती आनी दशरथ हे मौर्य कुळांतलेच राजा आसले. तांचे राजवटींत, चड करून संप्रतीचे कारकीर्दींत जैन धर्माची भरभराट जाली. संप्रतीन उत्तरेक आनी अस्तंतेक जैन धर्माखातीर प्रचारक धाडले आनी त्या वाठारांत जैन साधूंखातीर विहार बांदले.

इ.स.प. चवथ्या शतमानांत दुकळ पडिल्यान मगधांतल्यान भद्रबाहूच्या फुडारपणाखाला जैन श्रमण दक्षिणेंत गेले. तो काळ दक्षिणेंत जैनं धर्मप्रवेशाचो काळ आसलो, अशें मानतात. मथुरा हांगा सांपडिल्ल्या कुशाण कालीन शिलालेखावेल्यान इ.स. पयलींच्या दोन शतमानांतले जैन धर्मीयांचे अवस्थेचेर नदर पडटा. त्या काळांत भांडागारिक, सौगंधिक, धातुशिल्पी, गोष्ठीप्रतिनिधी, वणिक, सौवर्णिक, गणिका आनी हेर वर्ग

जैन धर्माक लागून प्रभावीत जाल्ले. मथुरेंत सांपडिल्ले पोरने अवशेश आनी वस्तींवेल्यान इ.स.प. कांय शतमानांसावन इ.स. च्या धाव्या शतमानामेरेन, मथुरा हें जैन धर्माचें व्हड केंद्र आसलें.

महाराष्ट्र आनी कर्नाटकांत सांपडिल्ल्या पोरन्या मंदिरांवयल्यान आनी शिलालेखांवयल्यान ह्या वाठारांत जैन धर्माक मेळिल्लो लोकाश्रय तशेंच राजाश्रय मतींत येता. इ.स. दुसऱ्या शतमानासावन गंगवंशीय राजे दक्षिणेंत राज्य करताले. जैन धर्माचो हो 'भांगराकाळ' अशें मानतात. ह्या काळांत समंतभद्र, पूज्यपाद आनी अंकलकदेवान दक्षिणेंत जैन धर्माचो प्रसार केलो. गंगराज चवथे राछमल्ल हाचो सेनापती चामुंडरायान नेमिनाथाचें देवूळ आनी गोमटेश्वराच्या पुतळ्याची थापणूक केली. राश्ट्रकूट राजवंशांतलो पयलो अमोघवर्ष हाणें आदिपुराणकर्तो, आचार्य जिनसेन हाचें शिष्यत्व आपणायिल्लें. चालूक्य वंशांतल्या राजांनीय जैन धर्माची उदरगत घडोवपाक हातभार लायलो. चक्रधरस्वामीच्या विचार विश्वाचेर जैन धर्माचो प्रभाव दिसता. महानुभाव पंथाच्या आचार-विचारांचें जैन धर्माकडेन लागींचें नातें आसा. भद्रबाहू नांव धारण केल्ल्या एका विद्वान ब्राह्मणान आपल्या अनुयायांसयत जैन धर्माची दीक्षा घेवन इ.स. ११०५ मेरेन दक्षिणेंत जैन धर्माचो प्रसार केलो.

इ.स. इकराव्या शतमानासावन भारताक मुसलमानी लोकांच्या घुरयांक तोंड दिवचें पडलें, जाका लागून भारताची धर्मीक, समाजीक आनी राजकी जीण विस्कटून पडली. अशा संघर्शाच्या काळांत जायत्या जैन आचार्यांनी कडव्या मुसलमानांचेर प्रभाव घालून आपलो धर्म तिगोवन दवरलो. जैन गुरुंची तपस्या आनी विद्वत्ता, ह्या गुणांचो प्रभाव पडिल्ल्यांमदीं महंमद घोरी, अलाउद्दीन खिलजी, फिरोज तुघलख, अकबर आनी जहांगीर ह्या मुसलमान बादशहांचो आस्पाव जाता.

ह्या उपरांतच्या काळखंडांत जैन धर्माक दक्षिणेंत देंवती कळा लागली आनी जैन धर्मीयां मजगतीं जायते पंथ, उपपंथ, जाती, पोटजाती निर्माण जाल्यो.

दिगंबर आनी श्वेतांबर हे जैन धर्मांतले दोन मुखेल पंथ आसात. ज्या पंथाचे अनुयायी आंगाक वस्त्रां घालीनात, नग्नतेचो पुरस्कार करतात तशेंच महावीराचो मूळ आचार मानतात, तांकां 'दिगंबर' म्हण्टात. जो पंथ आंगाक वस्त्रां घालता आनी आंगाक वस्त्रां घालपाचें समर्थन करता, ताका 'श्वेतांबर' म्हळ्यार धवें वस्त्र धारण करपी म्हण्टात. दिगंबर संप्रदायाचे साधू नग्न रावतात आनी जीवजंतूंच्या निराकरणाखातीर आनी उदकाखातीर कमंडलू धारण करतात. दिसांतल्यान एक फावट उब्यांनी करपात्रांत जेवण करतात.

श्वेतांबरांत जल्म, दीक्षा, लग्न आनी हेर प्रसंगांवेळार ब्राह्मणाक पुरोयत म्हूण आपयतात. हेर धर्मीक विधीय ब्राह्मणाकडल्यान करतात. कांय घराण्यांनी कुलपुरोयत ब्राह्मणूच आसता. दिगंबर जैन मात आपल्याभितरल्या पुरोयताकूच आपयतात. महाराष्ट्र आनी दक्षिण भारत हांगाच्या दिगंबरांमदल्यो सैटवाल, वैश्य, क्षत्रिय, चतुर्थ, पंचम, बोगार, उपाध्याय, हुम्मड ह्यो जाती गळ्यांत जानवेंय घालतात.

श्वेतांबर हे संवत्सरीच्या उपासाक म्हत्व दितात तर दिगंबर अनंत चर्तुदशीचो उपास म्हत्वाचो मानतात.

**श्रमणसंस्कृताय:** वैदिक साहित्याच्या आदारावेल्यान, वैदिक काळासावन दोन संस्कृतायो अस्तित्वांत आशिल्ल्याचें स्पश्ट जाता, एक यज्ञयागाचेर आदारिल्ली ब्राह्मणी संस्कृताय आनी दुसरी अहिंसेचेर आदारिल्ली श्रमणसंस्कृताय. ही संस्कृताय इंद्रियनिग्रह, परिग्रहत्याग, आत्मशुध्दी आनी अहिंसा ह्या गजालींक म्हत्व दिता. अहिंसा, सत्य, अचौर्य, ब्रह्मचर्य आनी परिग्रहत्याग हीं व्रतां तातूंत मुखेल मानल्यांत. जैन हे श्रमणसंस्कृतायेचे अनुयायी आसले.

**उपासना:** नाम, स्थापणूक, द्रव्य आनी भाव हे जैनांचे उपासनेचे चार प्रकार आसात. तीर्थंकरांचो नामजप करप ही नामपूजा, तीर्थंकरांच्या प्रतिमेची स्थापणूक करप ही स्थापणूकपूजा, तीर्थंकर पदाच्या प्राप्तीचे वाटेर आशिल्ल्या साधुंची पूजा करप ही द्रव्यपूजा, तीर्थंकर आसतना ताचे समकालीन आशिल्ले लोक ताचेविशीं जो आदरभाव परगटायताले तो आपणेंय परगटावप, हाका भावपूजा म्हण्टात. हे चारुय प्रकार सद्या प्रचलीत आसात.

दिगंबर आनी श्वेतांबर हांच्या मुर्तींनी आनी मुर्तिपुजेंतूय थोडो भेद आसता. दिगंबर मूर्ती सजयनात तर श्वेतांबर ती वस्त्र अलंकारांनी सजयतात. दिगंबर जैन मुर्तींक खूब उदक घालून न्हाणयतात, तर श्वेतांबर मुर्तींचेर थोडें उदक उडोवन फुलां घालतात. दिगंबरांक पूजा करपाक रात-दिसाचें बंधन लागना तर श्वेतांबर हिंसेच्या भयान रातचो दिवो लेगीत लायनात. जैनांच्यो तीन प्रकारच्यो देवता आसात. तांकां प्रासाददेवता, संप्रदायदेवता, कुलदेवता म्हण्टात. पीठेपपीठ, व्होंवऱ्यो, भूंय आनी प्रासाद ह्या सुवातींनी प्रासाद देवताची थापणूक केल्ली आसता. त्यो कांयकडेन स्वयंभू तर कांय कडेन मनशान घडयिल्ल्यो आसतात. अंबा, सरस्वती, त्रिपुरा, तारा ह्यो संप्रदाय देवता आसून चंडी, चामुंडा कष्टेश्वरी ह्यो कुलदेवता आसात. चवसश्ट योगिनींसारक्या तांत्रिक देवतांकूय जैन देवता मंडळांत सुवात आसा.

**पंचपरमेष्ठी:** मोक्षमार्ग आपणावपी साधकाचे ताचे उदरगतीक आनी पदाक अनुसरुन पांच प्रकार केल्यात. हे पांचूय प्रकारचे साधक संवसारी जीवांक मार्गदर्शक आनी आदर्शभूत आशिल्ल्यान तांकां जैन धर्मांत 'पंचपरमेश्ठी' म्हण्टात. साधू, उपाध्याय, आचार्य, अर्हत् आनी सिध्द हे पंचपरमेश्ठी जावन आसात. साधू, भिक्षू, तपस्वी, मुनी, श्रमण हांचो अर्थ जरी वेगवेगळो आसलो तरी तांचो उपेग समानार्थान करतात. संघांत रावन साधू शिकप घेता. उपाध्याय हो स्वता शिकता आनी शिकयता. आचार्य हे संघाचे मुखेल आसतात. ते नव्या साधूक दीक्षा दितात आनी संघाचें नियमन करतात. विद्वान आनी जाण्ट्या साधूंकच आचार्यपद फाव जाता. अर्हत् हे केवलज्ञानी आनी सर्वज्ञ आसतात. सिध्द मुक्तीक पाविल्ले कृतकृत्य आसतात. पंचपरमेश्ठीच्या नांवाचें चिंतन पुण्यकारण समजतात.

**जैनांचो निरीश्वरवाद:** सृश्ट ही कोणेच घडोवंक ना आनी तिचो नाशूय कोण करीना. दरेका जीवाक ताच्या कर्मासारकें फळ मेळटा, अशी जैन धर्माची विचारसरणी आसा. जैन धर्म सृष्टिकर्तो ईश्वर मानिना, पूण पाप-पुण्य, स्वर्ग-नरक आनी बंध-मोक्ष मानता आनी मोक्ष प्राप्तीखातीर इंद्रियनिग्रह, व्रताचरण, ध्यान धारणा आनी हेर गजाली आग्रहान आचरणांत हाडपाक सांगता. कर्माचो नाश करून केवलगिन्यानप्राप्ती आनी मोक्षप्राप्ती करून घेतिल्लो दरेक जीव 'परमात्मा'च आसा. तो आदर्श आनी पूज्य आशिल्ल्यान जैन ताका 'ईश्वर' मानतात. ताच्या गुणांची प्राप्ती जावपाखातीर ताका आदर्श म्हूण मुखार दवरून ताची पूजा अर्चा आनी भक्ती करप जैन धर्माक मान्य आसा.

**कर्मवाद:** भारतांत चार्वाक आनी लोकायत दर्शनांखेरीज सगळ्या दर्शनांनी कर्मवादाचो पुरस्कार केला. आपलें सुखदुखख आपल्या कर्माचें फळ आसा, हें चडशा जाणांक पटता. ईश्वर लेगीत कर्मासारकेंच फळ दिता, अशें ईश्वरवादी सांगतात. जगांत जें वायट आसा, घाण आसा, पाप आसा, दुश्ट आसा ताची जापसालदारकी ईश्वराचेर न्हय तर कोणाचेर? जगांतले विशमतेचो खुलासो कसो करप? ह्या प्रस्नांची जाप कर्मवाद दिता म्हूण तो लोकांच्या मनांत चड ठसला. जैन कर्मवाद आपल्या कर्माची जापसालदारकी व्यक्तीचेर घालता. थंय सृष्टीकर्त्या ईश्वराक मात लेगीत सुवात ना. महाबंध नांवाचो ४०,००० श्लोकांचो पूर्विल्लो ग्रंथ फकत कर्मबंधाविशीं सांगता. कर्मसिध्दान्त ही जैन धर्माची बुन्याद आसा.

**अहिंसामूलक धर्म:** कर्मनाशाखेरीज मुक्ती ना म्हूण जैनांनी कर्मनाश करपाचे नदरेन 'नीत' म्हत्वाची मानली. गृहस्थधर्म आनी साधुधर्म हे ते नीतीचे दोन भाग आसात. हे दोनूय धर्म एकेच दिकेक वतात. गृहस्थधर्म हें साधुधर्माचें शांत रुप आसा. साधूक सगळ्या तरांच्या हिंसेसावन पयस रावचें पडटा, तर गृहस्थाक सादारणपणान हिंसेचो त्याग करचो पडटा.

गृहस्थ आपल्या कुटुंबाच्या रखणेखातीर वा पोट भरपाखातीर हातांत शस्त्र धरपाक शकता, तशेंच तो कसलोय उद्येगधंदोय करूंक शकता. साधू कसलेच परिस्थितीत असत्य उलोवंक शकना पूण संवसारी मनीस सत्य उलयतना काळ वेळ आनी परिस्थितीचो विचार करूंक शकता. अचौर्यव्रत करपी साधूक कसलीय वस्त दिल्याबगर घेवप शक्य जायना. गृहस्थी मनीस चोरी करपाक शकना, पूण इश्टाच्या घरांतली स्वताची वस्त तो ताका विचारिनासतना हाडपाक शकता. साधूक कडक रितीन ब्रह्मचर्याक पाळो दिवन रावचें पडटा. पूण गृहस्थ हे विशीं 'स्वदारसंतोष' हें व्रत पाळटा. साधूक घरदार, सामान, नोकरी, जमीन आनी हेर गजाली लागीं करूंक मेळनात वा तो तांची इत्साय करूंक शकना. गृहस्थाक एका पांवड्यामेरेन ह्यो वस्तू आपणावन ह्या गजालींसावन फायदो मेळोवं येता. लोभ वा स्वार्थ हाचो त्याग हो अपरिग्रहांतलो म्हत्वाचो भाग आसा. लोभाचो त्याग, सूर्य अस्तमल्याउपरांत जेवनासतना रावप, उदक गाळून पिवप, सोरो पिवप ना, गोड उलोवप, जीवजंतू तोंडांत वचचे न्हय म्हूण तोंडार पट्टी बांदप ह्यो गजाली अहिंसेंत आस्पावतात. साधूच्या वा गृहस्थाच्या सगळ्या नेमांचो विचार केल्यार त्या जाग्यार वेगवेगळ्या रुपांनी 'अहिंसा' सांगिल्ली दिश्टी पडटा.

जैन धर्म आनी बौध्द धर्म ह्या दोनूय धर्मांमजगतीं जायतीं साम्यस्थळां दिश्टी पडटात. दोनूय धर्मांचे प्रवर्तक मगध देशांतले क्षत्रिय आसले. दोगांकूय जिन, अर्हत्, बुध्द, सुगत, तथागत आनी हेर भौमानादीक नांवांनी पाचारतात. दोनूय धर्मांचे अनुयायी आपल्या म्हालगड्यांक 'देव' मानतात आनी त्या देवांच्यो मुर्ती मंदिरांत स्थापन करून तांची पूजा करतात. चैत्य आनी स्तूप उबारून तातूंत तांच्या मुर्तींची थापणूक करतात. जैन चोवीस तीर्थंकर आसात, अशें मानतात तर बौध्द पंचवीस बुध्द जावन गेले, अशें समजतात. अहिंसा, परमधर्म, यज्ञखंडन, वेद्प्रामाण्य, मोक्षमार्गांत जातिसंस्था मानप ना, कर्मसिध्दान्त, भिक्षुसंघ, लोकभाशेंत उपदेश, सगळ्या मनशांक मोक्षाचो अधिकार ह्यो गजाली दोनूय धर्मांनी सारक्यो आसात. बौध्द आनी जैनांची संवसार, जग, कल्प हेविशींची कल्पना एकसारकी आसा.

जैन आनी बौध्द धर्मांतल्या कांय मुखेल तत्त्वांत म्हत्वाचो फरक आसा. बौध्दाची पंचस्कंधांची कल्पना जैन कल्पनेपरस वेगळी आसा. जैन पृथ्वीकाय, अप्काय, तेजकाय, वायुकाय आनी वनस्पतिकाय अशे पांच प्रकारचे स्थावर जीव मानतात. बौध्दांभितर अशी कल्पना ना. मतिज्ञान, श्रुतज्ञान, अवधिज्ञान, मनःपर्ययज्ञान आनी केवलज्ञान हे ज्ञानप्रकारूय बौध्दांत नात. बौध्दांची 'निर्वाण' आनी जैनांची 'मुक्ती' ह्यो कल्पनाय वेगळ्यो आसात.

जैन धर्म हिंदूंच्या वेद-वेदांगाचे कल्पनेक तशेंच देवाच्या अस्तित्वाक मानिना.

जैन धर्मांतली 'अशातना'ची कल्पना मुस्लीम धर्माचो ह्या धर्माचेर पडिल्लो प्रभाव दाखयता. मुस्लीमाचो दुसरो प्रभाव श्वेतांबरा लोणकासाहाचेर दिसता, जातूंत प्रतिमेच्या पुजनाक कसलोच धर्मशास्त्राचो आदार ना. अकबराच्या दरबाराचेर आशिल्लो जैन धर्माचो प्रभाव जैन इतिहासांतली म्हत्वाची घडणूक जावन आसा. अकबरान जैन धर्मीक थळांलागीं (गिरनार दोंगुल्यो, शत्रुंजय, अबू, राजगीर आनी प्रशांत दोंगुल्यो) जनावरांची हत्त्या करपाचेर बंदी घाल्ली. जैन चित्रकला धरून भारतीय चित्रकलेचेर मुस्लीमांचो प्रभाव पडला.

**जैनांचें धर्मीक साहित्य:** जैनांचें मूळ साहित्य प्राकृत भाशेंत आसा. महावीरान आपल्या धर्माचो उपदेस प्राकृत आनी अर्धमागधी ह्या लोकभाशांतल्यान केला. श्वेतांबर जैनांचे ४५ आगमग्रंथ अर्धमागधी भाशेंत आसात. दिगंबर पंथाचे आगमग्रंथ 'प्राकृत शौरसेनी' प्राकृत भाशेंत आसात. आचार्य उमास्वातीन बरयिल्लो 'तत्त्वार्थाधिगमसूत्र' हो जैनांचो आद्य संस्कृत ग्रंथ जावन आसा. आठव्या शतमानांत आचार्य हरिभद्रसूरीन संस्कृतांत टिका बरोवन एक नवी परंपरा सुरू केली. जिनसेन आनी गुणभद्र ह्या दिगंबर आचार्यांनी 'महापुराण' संस्कृतांत बरयलें. संस्कृत, प्राकृत आनी अपभ्रंश भाशेंत जैनांनी व्हड प्रमाणांत कथा-साहित्याची निर्मणी केल्या. तशेंच आपल्या लौकिक आनी नैतीक ग्रंथनिर्मणीखातीर जैनांनी तमिळ आनी कन्नड ह्या भाशांचोय उपेग केला.

१९०१ वर्साच्या जनगणनेप्रमाण, भारतांत जैनधर्मीयांची संख्या १३,३४,१४० आसली. १९८१ वर्सा ती ३२,०६,०३८ चेर पावली. जैन धर्मीयांची समाजांतली चलणूक, तांचे सण आनी परबो, हिंदूवरींच आसात. पूण वैयक्तिक धर्माचरणाविशीं सगळे नेम ते सारके पाळटात. गणपती, सत्यनारायण, दत्त आनी हेर हिंदू देवांक ते भजतात. तांच्या जल्म-लग्नांविशींच्या संस्कारांचें पुरोयतपण हिंदू ब्राह्मणांकडल्यानूच करतात. जैन मंदिरांतूय चडशे फावट ब्राह्मण पुजारी (भोजक) आसतात. वेपार, विद्या ह्या गजालींच्या निमतान जैन मनीस ज्या प्रांतात वता, त्या प्रांताच्यो रिती आनी सभावगुण हांकां पाळो दिता. गिन्यान मेळोवपाची आस, खरें उलोवप, दान, शील, सद्भाव ह्या गजालींचेर जैनांचो भार आशिल्ल्यान तांचेमदीं साक्षरतेचें प्रमाण चड आसा.

जैनांनी आपलें खाशेलपण तिगोवन भारतीय समाजाचेर घाल्लो प्रभाव उल्लेख करपासारको आसा.

जैन धर्माचो प्रसार म्हैसूर आनी कर्नाटकांतल्या घाटावांगडा उत्तर आनी दक्षिण कॅनरा जिल्ह्यांत तशेंच कोंकणातूय जाल्लो. गोंयांत कोठंबी, बांदोडे वाठारांत जैन 'बस्ती' म्हळ्यार वसाहती आसल्यो. कांय जैन मुर्ती शिरदोन हांगाय सापडल्यात.

पूरक नोंद: महावीर, भगवान

- कों. वि. सं. मं.

**जोंधळो:** (मराठी-जोंधळा, ज्वारी; हिंदी-जवार; गुजराती-जुवार; कन्नड-जोळा; तमिळ-चोलम; तेलगू- जोन्ना; संस्कृत- दीर्घमाला, यावनाल; इंग्लीश- ग्रेट मिलेट, ग्रेन सोर्घम; लॅटीन- सोर्घम व्हल्गेर, कूळ-ग्रॅमिनी).

फुलांच्या तुऱ्यावेल्यान ह्या पिकाच्यो बायकलर, गिनीया, कावडेटम काफीर आनी डूरा अश्यो जाती आसतात. खूब वर्सांपसून चलत आयिल्ल्या 'सोर्घम व्हल्गेर' ह्या नांवाचें आतां 'सोघर्म बायकलर' हें नांव जालां.

एक वर्सभर ह्या झाडाची उंचाय ३ ते ४.७ मी. आसता. ताच्या कांडाची दाटसाण १.५ सेंमी. आसता. जोंधळ्याच्या झाडाक फांटे येनात, पूण रोंप हुमटून जमनीर पडल्यार कोंबाकडल्यान फांटो येवंक शकता. ह्या झाडाक लांब पानां आसतात आनी तांचेर समांतर शिरो आसतात. कांडार पानां गुठ्ळायिल्ल्यावरी आसतात आनी एकामेकां सामकार उरफाटे दिकेन आसतात.

जोंधळ्याचीं फुलां एका तुऱ्याचेर धरिल्लीं आसतात. तुऱ्याच्या देंठार फुलांची मांडावळ जोडयेन आसता. तातूंतल्या एका फुलाक देंठ आसता आनी एका फुलाक नासता. देंठ नाशिल्ल्या फुलापसून बीं तयार जाता. जोंधळ्याचें बीं वाटकुळें आसून सकयलेवटेन ताका तोंक आसता. ताचो कोर जोंधळ्याचे जातीप्रमाण धवो, गुलाबी, हळडुवो वा पुडीकोराचो आसता.

जोंधळ्याचो उगम पूर्व, मध्य आफ्रिकेच्या देशांतल्यान जालो. चड करून तो इथीओपिया वा सुदान ह्या राज्यांनी जावंये. भारतांत जोंधळो अरेबिया ह्या राज्यांतल्यान इ.स. १५०० वर्सा पावलो, असो अदमास आसा.

**पिकावळीचो वाठार:** संवसारांत वट्ट ५१० लाख हेक्टर सुवातींत जोंधळो पिकयतात. ताचेपसून वर्सुकी सुमार ६७३ लाख टन उत्पादन मेळटा. संवसारांत जोंधळ्याखाल आशिल्ल्या वाठारांत भारताचो पयलो क्रमांक लागता. पूण उत्पादनांत मात दुसरो क्रमांक लागता. अमेरिकेंत संवसारांत सगळ्यांत चड जोंधळो पिकता. जगांतले हेर जोंधळो पिकोवपी देश म्हळ्यार चीन, नायजेरिया, आर्जेन्टिना, सुदान. अमेरिकेंत सरासरी ३,९४७ किग्रॅ. जोंधळो दर हेक्टरी पिकयतात.

भारतांत ही सरासरी दर हेक्टराक ७१७ किग्रॅ. जावन आसा.

भारतांत जोंधळो १६१ लाख हेक्टर जमनीर पिकयतात आनी ताचें वर्सुकी उत्पन्न ११६ मॅ. टन जावन आसा. महाराष्ट्र, आंध्र प्रदेश, कर्नाटक, मध्य प्रदेश, गुजरात तमिळनाडू, उत्तर प्रदेश, राजस्थान ह्या राज्यांनी जोंधळो पिकता. गोंयांत खूब उण्या प्रमाणांत, एक प्रयोग वा गोरवांक खावड म्हूण कांय वाठारांनी जोंधळो पिकयतात.

**प्रकार/जाती:** संवसारांत जोंधळ्याच्यो वट्ट १५ जाती पळोवंक मेळटात, पूण भारतांत फकत दोन जातींचो वापर जाता. एक गांवठी जोंधळो आनी दुसरो संकरीत जोंधळो. गांवठी जोंधळ्याचें रोंप लांब आसता आनी तें कमी उत्पादन दिता. पूण संकरीत जोंधळो मोटवो आसता आनी उत्पन्न बरें येता. जोंधळ्याच्यो मुखेल संकरीत जाती म्हळ्यार सी. एच्. एच्. १, २, ३, ४, ५, ६, ९ आनी सी. एस्. व्ही. १, २, ३, ४, ५, ६, ७.

**रोवप आनी वाडोवप:** जोंधळ्याचें बीं रोवचेपयलीं जमीन बरी कसून घेतात. बियांक, रोवचेपयलीं 'थायरम' वा 'अॅग्रोसान' हें वखद लायतात. दरेके हेक्टर सुवातेक १२ तें १५ किग्रॅ. बीं लागत. रोंप रोयतना दोन वळींतलें अंतर ४५ सेंमी. आनी दोन रोंपांतलें अंतर १२ सेंमी. आसूंक फाव. बीं रोयतना ३-४ सेंमी. खोलायेन लावचें, पूण ५ सेंमी. भितर वचचें न्हय, हाची जतनाय घेवची पडटा.

जोंधळ्याची पिकावळ जून-जुलय, वांयगणो हंगाम सप्टेंबर, ऑक्टोबर आनी गिमांत जानेवारी-फेब्रुवारी ह्या म्हयन्यांत करतात. ह्या पिकाक दर हेक्टराक १० ते १५ टन शेणाचें सारें, १०० ते १२० किग्रॅ. नायट्रोजन, ५० किग्रॅ. स्फुरद आनी ४० किग्रॅ. पालाश दिवचें पडटा. हातूंतलें स्फुरद, पालाश आनी अर्दे नायट्रोजन जमीन तयार करता आसतना घालतात. हीं सारीं बियांपसून ३-५ सेंमी. पयस आनी ३-५ सेंमी. खोल, 'फर्टिलायझर कम सीड ड्रिल' ह्या यंत्रान दितात. पीक २०-२५ दिसांचें जातकच, उरिल्लें नायट्रोजन घालून जोंधळ्याच्या पिकाक पावसाच्या उदकार पिकयतात; पावस उण्या प्रमाणांत आसल्यार उदक दिवपाची तजवीज आसूंक फाव. पूण ह्या पिकाक चड उदक मानवना.

पीक फुलार येता तेन्ना आनी दाणे तयार जातात तेन्ना, अशें दोनदां उदक दिवप म्हत्वाचें आसता. ह्या पिकाक नडणी करप खूब गरजेचें आसता. नडणेआड 'एट्राझीन' हें वखद मारतात.

**उत्पन्न/पीक:** जोंधळ्याचें पीक १०० ते ११५ दिसांनी तयार जाता. जेन्ना बीं घट्ट जाता आनी तातूंत २५% उदक आसता, तेन्ना बीं तयार जालां अशें समजुचें. कापणी करता आसतना एक तर झाड मुळापसून हुमटीतात वा झाडाची तेंगशी (कणस) कापून घेतात. हीं कणसां बैलाच्या पांयांपोंदा वा बडयांनी मळून घेतात. उपरांत तीं वतांत सुकोवन सांठोवन दवरतात.

जोंधळ्यांचे संकरीत जातीपसून दर हेक्टरी ५० ते ५५ क्विंटल जोंधळो मेळपाक शकता. ते भायर १००-१२५ क्विंटल सुकी पालय, शिंपण केल्ल्या पिकापसून मेळूंक शकता. ह्याच पिकापसून पावसांत २५ ते ३० क्विंटल ज़ोंधळो आनी ४०-१०० क्विंटल पालय मेळूंक शकता.

**उपेग:** जोंधळ्याचें पीठ करून ताचेपसून भाकरी वा चपाती करतात. मक्यासारको फुलोवन ताचेपसून ल्हायो करतात. हालीं महाराष्ट्र राज्य सरकारान जोंधळ्यापसून बिस्कीट, केक सारके तरेकवार जिन्नस करपाचें काम हातांत घेतलां. गोरवां, कुकडां, दुकरां हे सारके मोनजातीचे खावडीखातीर जोंधळ्याचो बेसबरो उपेग जाता. तेभायर जोंधळ्यांचीं पानां आनी झाडां हांचो वापर, मोनजातीची मुखेल खावड म्हूण जाता. जोंधळ्यापसून उद्येगीक नदरेन उपेगी पडपी आल्कोल, पेपर, स्टार्च अशे तरेकवार पदार्थ तयार करतात.

**रोग आनी उपाय:** जोंधळ्याक जायत्या तरांचे रोग लागतात आनी पिकाचें लुकसाण जाता. तातूंतले कांय रोग, तांचीं मुखेल लक्षणां आनी उपाय अशे:

| रोग | मुखेल लक्षणां | उपाय |
|---|---|---|
| १. बीं कुसप | बीं किल्लून येवप ना वा ल्हान रोंप करपून मरप. | बीं रोवचे पयलीं दरेका किलोक २.५ ग्रॅम हे प्रमाण 'अॅग्रोसान' हें वखद चोळप. |
| २. डावनी मिल्डू | पानांचे सकले वटेन धवो चितो जावप, वयलेवटेन हळडुवे दाग पडप आनी झाड सुकप. | १. बियांक वखद चोळप<br>२. पिकाचेर 'झायनेब' वा 'मेनेब' हीं वखदां मारप<br>३. सुदारीत जाती लावप. |
| ३. रस्ट | पानार तांबशे हळडुवे दाग दिसप. | १. सी. एस्. एच्. १, २ ह्यो जाती वापरप.<br>२. डायीथेन झेड- ५ हें वखद ०.२% मारप. |
| ४. एन्थ्रेकनोज | ल्हान रोंप वा झाडार तांबशा, जांभळ्या कोराचे दाग दिसप आनी झाड करपप. | ,, ,, |
| ५. लीफ ब्लाइट | पानांचेर जाळयेभशेन खतां पडप. | ,, ,, |
| ६. रोनेट लीफस्पॉट | वाटकुळे दाग पडून पानां इबाडप. | ,, ,, |

जोंधळ्याक 'शूट फ्लाय' ही कीड लागता. ही कीड रोंप्यांभितर वचून कोंब खावन उडयता. ताका लागून झाडांक फूल वा फळ धरना. तिका आळाबंदा हाडपाक रोंपाभोंवतणी 'थायमेट' हें वखद घालप वा ०.०२५% मेटासीस्टोकस हें वखद पिकाचेर मारतात. 'स्टेम बोरर' आनी 'पींक बोरर' ह्यो किडी जोंधळ्याच्या कांडाक लागतात आनी भितल्लो गबो खातात. हाका आळाबंदा हाडपाक ०.१ % 'थायोडान' वा ०.२% 'कार्बोरील' हें वखद मारतात. रोंपा भोंवतणी 'थायमेट' हें वखद घालचें. 'सोरगम मीज' (Sorghum Midge) ही कीड फुलांनी तांतयां घालता आनी कीड भायर सरतकच ती ovary खावन उडयता. हाका लागून फळ धरप शक्य जायना. तिका आळाबंदा हाडपाक पिकाचेर २५ किग्रॅ. कार्बोरीक वा मालाथियोन पिठो मारतात.

हे भायर पानां कवळपी कीड आनी कुसांकीड लागल्यार, तीं पानां कातरून उडयतात वा ताचेर फोलीडोल, कार्बोरीक, मालाथियोन हीं वखदां मारतात.

- एच्. आर. प्रभुदेसाय

**जोगती - जोगतीण:** यल्लमा देवतेक आंगवण करतकच जर घराब्यांत चलो जल्माक येत तर जोगती जाता आनी चली जल्माक आयल्यार जोगतीण जाता. कांय जाणां आपूण जावन जोगती-जोगतीण जातात.

यल्लमा देवतेक मानपी खूब लोक महाराष्ट्र आनी कर्नाटकांत आसून ते मराठी वा कन्नड भाशेंत आपले वेव्हार करतात.

जोगती वा जोगतीण जावपाचें आसल्यार यल्लमा देवतेच्या जाग्यार वचून फुडले तरेन विधी करतात: विधीवखीं माळ, कुरपणो आनी शिक्को धारण करचो पडटा. गळ्यांत मोतयांची वा कवड्यांची माळ घालतात. तकलेर देवीची मूर्त आशिल्लो कुरपणो घेतात आनी कपलाक हळद आनी बिबूत सारयतात.

जोगती वा जोगतीण चोम्यांनी वा एकले-एकसुरे भीक मागतात.

कांय जोगती बायलेचो भेस करतात, माथ्यार देवीचो सजयिल्लो कुरपणो दवरतात आनी भोंवतात. हातूंतलो मुखेल जोगती तुणतुणें वाजयत भक्तिगीत गायता आनी हेर वांगडी ताका टाळ-तुणतुणें वाजयत साथ दितात.

यल्लमा देवतेच्या दुसऱ्या रुपाक म्हळ्यार रेणुकेक भजपी वर्गाक गोंधळी म्हण्टात. यल्लमा देवतेच्या मूळ रुपांची पूजा जोगती-जोगतीण वर्गान सांबाळून दवल्ल्या.

यल्लमा वा यमाई देवतेचें मुखेल ठाणें बेळगांव जिल्ह्यांतल्या 'सौदत्ती' गांवांत आसा. महाराष्ट्रांतूय विंगड विंगड वाठारांत हे देवतेचीं देवळां आसात.

जोगत्याक आपले मूळ जातींतले चलयेकडेन लग्न जावपाक मेळटा, पूण जोगतीणीक जल्मभर आंकवार रावचें पडटा.

जोगती-जोगतीणीचीं पदां जशीं मराठी भाशेंत आसात, तशीं कन्नड भाशेंतूय आसात. हातूंत यल्लमाचें म्हळ्यार रेणूकेचें लोककथात्मक चरित्र आसता. रेणूका वा यल्लमाच्या कथागीतांत एक खास गजाल नदरेंत भरता; ती म्हळ्यार- यल्लमाच्या कथागीतांत जशी रेणुकेची याद केल्ली दिश्टी पडटा, तेचपरी गोंधळ्यांच्या कथागीतांत यल्लमाची याद केल्ली दिश्टी पडटा.

जोगती- जोगतीणीच्या वर्गाचें एक भक्ती-गीत अशें आसाः

चला जाऊं रेणुकेच्या भेटी।
मारुं तिच्या चरणांशी मिठी।।
यात्रा भरली फार मोठी
गंध लिंबांची झाली दाटी।।
येलू तुझी महिमा फार मोठी।
चला घेऊ भंडाराची।।
रेणुकाची भरू ओटी।
शालू नेसली जरीकांठी।।
कोळेगांव बांगेच्या कांठी।
परसू चौंडक्याची निराळी धाटी ।।
चौमुलखीं वाजली घाटी।।

- कों. वि. सं. मं.

**जोगवा:** महाराष्ट्रांतले देवीचे भजक गळ्यांत कवड्यांची माळ, कपलाक हळद आनी हातांत कुरपणो घेवन देवतेच्या नांवान जी भीक मागतात, ताका 'जोगवा' अशें म्हण्टात.

रोग-पिडांपसून मुक्त जावपाक, मनांतलें काम सिध्दीक वचपाक जोगवा मागतात. कांय लोक आंगवण पावोवपाच्या हेतान, मंगळाराक, सुक्राराक वा नवरात्रांत जोगवा मागतात. ज्या घरांत देवीचो कुळधर्म आसता, तांकां कुळधर्माचो एक भाग म्हूण जोगवा मागचो पडटा. आंगवणीक लागून जे जोगवा मागतात, तातूंत बायलांचो आंकडो चड आसता. संत एकनाथ महाराजान ह्या जोगव्याचेर एक भारूड रचलां. तातूंत जोगवा मागप्याच्या विधीचें स्वरुप आनी तें मागपाफाटलो हेत अप्रत्यक्षपणान उक्तो जाला. हें भारुड अशें आसा:

अनादि निर्गुण प्रगटली भवानी।
मोहमहिषासुर मर्दनालागुनी ।।
त्रिविध तापांची कराया झाडणी ।
भक्तांलागुनी पावसी निर्वाणीं ।
आईचा जोगवा जोगवा मागेन ।
द्वैत सारुनी माळ मी घालीन ।।
हातीं बोधाचा झेंडा घेईन ।
भेदरहित वारीसी जाईन ।।
नवविध भक्तीच्या करीन नवरात्रा ।
करून पीटीं मागेन ज्ञानपुत्रा ।।

- कों. वि. सं. मं.

**जोगूल:** विजेचो लखलखाट. खिणयाळो उच्च विद्युत् प्रवाह आशिल्लें आनी जायते किमी. लांब मार्ग आशिल्लें विद्युत् विसर्जन (electric discharge), अशी जोगलाची व्याख्या करतात. वातावरणांतल्या कांय भागांत फावसो विद्युत् भार निर्माण जावन ताका लागून तयार जाल्ल्या विद्युत् क्षेत्राक लागून हवेचें विद्युत् विभंजन (electric breakdown) जाता आनी जोगलावणी जाता.

जोगूल निर्माण जावपाचो सादारण उगम म्हळ्यार गर्जन-कूप (cumulonimb cloud). बर्फाच्या वा रेंवेच्या वादळांत तशेंच उद्रेकावस्थेंत (eriuption) आशिल्ल्या ज्वालामुखीच्या वयल्या भागांतल्या कुपांत जोगलावणी जाता. कुपविरयत आनी नितळ वातावरणांतूय जोगूल घडून आयिल्याचे उल्लेख आसात. प्रयोगशाळेंतूय २० लाख व्होल्टचो विद्युत् वर्चोभेद (electric potential difference) निर्माण करून जोगूल घडोवन हाडपांत येस आयलां. जोगलाचो लखलखाट आनी गडगड वातावरणाच्या खाशेले परिस्थितीक लागून निर्माण जाता. लखलखाटावांगडा सदांच गडगड जाताच, अशें ना.

जोगलाचे वेगवेगळे प्रकार अशे:

१. रेखीय आनी फांट्याचें जोगूलः हो सदांच दिसपी प्रकार आसा. कुपांकुपांतल्या, कुपां आनी धर्तरी हांचेमदल्या वा कुपां आनी भोंवतणचें वातावरण हांचे मदल्या विद्युत् विसर्जनाक लागून हो प्रकार निर्माण जाता. २. फितासारकें जोगूलः हो सदच्याच जोगलाचो प्रकार आसा. पूण वाऱ्याच्या वेगाक लागून जोगलाचो मार्ग कांय वेळा विस्कळीत जाल्ल्यान दोळ्यांक तो फितासारको दिसता. ३. पेल्लांचें जोगूलः जोगूल फुटिल्ल्यान तातूंतल्यान ल्हान तेजिश्ट पेल्लासारके कुडके भायर आयिल्ले दिसतात. हो प्रकार बरोच वेळ नेटान पावस पडटा आसतना दिसता. सुर्वेक अखंड रेखीव प्रकार आसून उपरांत दिप्ती (luminosity) कमी जाता आनी मार्ग खंडित जावन तातूंत पेल्लासारके तेजिश्ट भाग दिसपाक लागतात. ४. गिमाच्या हवेंतलें जोगूलः रेखीय जोगलाचो हो प्रकार खास करून गिमाच्या दिसांनी दिसून येता. धर्तरेचेर पडनासतना कुपांपसून क्षैतिज दिकेन ह्या जोगलाचो मार्ग १५-१६ किमी. इतलो पयसमेरेन वता. चड अंतर आशिल्ल्यान गर्जन आयकूंक येना. कांय वेळा हाचो मार्ग एका कुपाकडल्यान दुसऱ्या कुपाकडेन वता. ५. थरांचें जोगूलः ह्या प्रकारांत मळबाचो बरोच व्हडलो भाग उजवाडांत येता. उंचेल्या आनी सकयल्या पातळेच्या कुपांतल्या विद्युत् विसर्जनाक (electric discharge) लागून हो प्रकार घडून येता आसूंक जाय. ६. वाटकुळें जोगूल (Ball lightning): कुपांतल्यान, जमनीकडल्यान वा हवेंतल्यान सुमार १० ते २० सेंमी. व्यास आशिल्लो विजेचो गुळो दिशिल्ल्याचे जायते उल्लेख सांपडटात. ह्या गुळ्याक सादारणपणान तांबडो, जांभळो वा हळडुवो रंग आसून तो ५-६ सेकंदांमेरेन दिसता. हो रंग गडगड जायनासतना वा व्हडलो गडगड जावन ना जाता. ह्या जोगलाच्या प्रकाराविशीं फाव तो खुलासो करपी खंयचीच उपपत्ती अस्तित्वांत ना. हो एक नदरेभ्रम (optical illusion) आसूंक जाय, अशें कांय शास्त्रज्ञांचें मत आसा.

**जोगलाचे परिणामः** जेन्ना जोगूल घडटा, तेन्ना ताच्या मार्गावयल्या हवेच्या दाबांत उपाट वाड जाता आनी ताका लागून कुपाचें गर्जन जाता. हो हवेचो दाब वाडपाचीं मुखेल कारणां म्हळ्यार प्रचंड विद्युत् प्रवाहाक लागून जोगलाच्या मार्गांत निर्माण जावपी खर उश्णता आनी ताका लागून निर्माण जावपी व्हड दाब. ह्या दाबाक लागून ऊंच इमारतीच्या जनेलांचीं तावदानां फुटूंक शकतात. प्रत्यक्ष इमारतीचेरूच जोगूल जाल्यार इमारतीक धक्को लागूं येता. ऊंच इमारतीचेर वा झाडाचेर जोगूल जावपाचो संभव आसता, देखून जोगूल निवारक साधनां वापरुन असल्या इमारतींची राखण करची पडटा.

जोगलाच्या घाताक लागून मनशांक वा हेर प्राण्यांक मरण येवपाची शक्यता आसता. सौम्य स्वरुपाचो जोगलाचो आघात जाल्ल्या मनशाक कृत्रिम श्वासोच्छ्वासाच्या प्रथमोपचारान सावचित करुं येता. जोगूल पडिल्ल्या मनशाक स्पर्श करप धोक्याचें आसा, असो जो समज आसा तो

चुकीचो आसा. जोगलाचो घात जाल्यार मनीस भाजता आनी ताका विजेचो धक्को बसून तो बेशुध्द पडटा; पूण ताच्या आंगांत विद्युत् संचय जायना. विमानाचेर जोगलाचो घात जाल्यार, उतारूंक ताचो परिणाम व्हडलोसो जाणवना. पूण लखलखाटाक लागून दोळे दिपून वैमानिकाक स्पश्ट दिसपाक त्रास जाता. जोगलाक लागून विमानांतली विद्युत् आनी चुंबकीय उपकरणांय इबाडपाची शक्यता आसता. रानां, इमारती, रसायनीक आनी खनिज तेलांचे कारखाने हांचेर जोगलाचो घात जाल्यार उजो लागपाचो संभव आसता.

**जोगलाचें स्वरुपः** जोगूल हीं विजेची एक व्हडली कीट (spark) जावन आसा, अशें बेंजामिन फ्रँक्लीन ह्या शास्त्रज्ञान १७५२ त सिध्द केलें.

जोगलाचो घात जाता आसतना एकूच सलग लखलख आमच्या दोळ्यांक दिसता, पूण शीघ्रगती छायाचित्रणावरवीं ह्या लखलखाचो अभ्यास केल्यार तो, अशें दिसून येता की तो एकूच सलग लखलख नासून एकाफाटोफाट तयार जावपी वाडटे लांबायेच्या लखलखांपसून जाल्लो आसता. कूप आनी धर्तरी हांचे मदलो वर्चोभेद फाव तो वाडटकच कुपापसून एक लखलख वचून धर्तरेचे दिकेन सादारण ५० मी. मेरेन सरासरीन दर सेकंदाक १०$^{५}$ मी. ह्या वेगान वता आनी थांबता. सुमार ५० दशलक्षांश सेकंदांउपरांत वचून त्याच नेटान सुमार १०० मी. अंतरामेरेन वता आनी थांबता. ही क्रिया परत परत घडून निमाणों तो लखलख धर्तरेमेरेन पावता आनी त्याच खिणाक धर्तरेपसून उरफाटो लखलख वचून कुपांपसून आयिल्ल्या लखलखाच्याच मार्गान कुपांत रिगता. हो उरफाटो लखलख मात एकूच सलग लखलख आसून टप्प्या टप्प्यांचो नासता आनी ताचो वेग दर सेकंदाक १०$^{७}$ मी. मेरेन आसता. ताची दीप्ती खूब खर आसता.

दोन कुपांमदल्या लखलखांची लांबाय १६ ते ४८ किमी. इतली आसूं येता. कुपां आनी धर्तरी हांचेमदल्या लखलखांची लांबाय चडकरून १.३ किमी. परस चड आसना. एकाच कुपांतल्या वेगवेगळ्या भागांतूय लखलख तयार जावंक शकतात. उरफाट्या लखलखांतलो विद्युत् प्रवाह सुमार ६ दशलक्षांश सेकंदांत चडांत चड २०,००० अँपिअरमेरेन वाडटा; पूण खुबदां १.८ ते २ लाख अँपिअरमेरेनय हो प्रवाह वाडिल्ल्याचीं उदाहरणां आसात. सरासरीन ४० दशलक्षांश सेकंदांत हो प्रवाह अर्दान कमी जाता. लखलखांतलो सरासरी प्रवाह सुमार १०,००० अँपिअर आसता. दोन लखलखांमदल्या वेळार सुमार ५०० अँपिअर विद्युत् प्रवाह जोगूल मार्गांत व्हांवत रावता. लखलखांतलो वट्ट विद्युत् भार सरासरीन १८ कुलंब इतलो आसता. चडांत चड मेजिल्लो विद्युत् भार १६५ कुलंब इतलो जावन आसा. लखलखांतलो विद्युत् प्रवाह आनी काळ मेजपाखातीर ऋण किरण दोलीन लेखक (Cathode ray oscillograph) ह्या साधनाचो वापर करतात.

**रंगीत जोगूलः** जोगूल मार्गांतल्या व्हड विद्युत् प्रवाहाक लागून ऑक्सिजन आनी नायट्रोजन वायूंचें आयनीकरण (ionisation) जाता आनी ह्या दोन वायूंच्या विद्युत् प्रवाहाक लागून तयार जाल्ले वर्णपट एकठांय येवन सदचो धव्या रंगाचो लखलख दिसता. पूण उदका वाफेचें आयनीकरण जाल्यार हायड्रोजन वर्णपटाचे निर्मितीक लागून तांबशा वा गुलाबी रंगाचो लखलख निर्माण जाता. हवेंत धुळीचें प्रमाण चड आसल्यार हळडुव्या आनी तांबड्या रंगाचे लखलखूय दिसूंक शकतात. केन्नाकेन्नाय जांभळ्या वा पाचव्या रंगाचे लखलखूय दिसतात, अशें म्हण्टात.

- ए. बी. कुयेल्य

**जोतिबाः** दक्षिण महाराष्ट्रांतलें एक नामनेचे दैवत. कोल्हापूर सावन वायव्येक सुमार १४ किमी. अंतराचेर पन्हाळा तालुक्यांत सुमार ३०५ मी. उंचायेचो जोतिबाचो दोंगर आसून ताचेर जोतिबाचें ठाणें आसा. ह्या दोंगराक 'जोतिबाचो दोंगर' वा 'रत्नागिरी' अशेंय म्हण्टात. जोतिबाच्या देवळाकडेन गुरवांची वस्ती आसून ते जोतिबाचे पुजारी आसात. ह्या गुरवांचे वस्तीक 'वाडी-रत्नागिरी' अशें नांव आसा पूर्विल्ल्या काळासावन हो दोंगर एक पवित्र क्षेत्र अशें मानतात. वाडी-रत्नागिरी ह्या खेड्यांत कांय पूर्विल्लीं मंदिरां आसून तातूंतल्या केदारलिंग, केदारेश्वर, रामलिंग आनी चर्पटांबा वा चोपडाई ह्या देवतांच्या मंदिरांक खास म्हत्व आसा. हातूंतलें केदारलिंगाचें वा जोतिबाचें मंदिर मुखेल आसून तें मदीं आसा. जोतिबा हो मूळचो ज्योतिर्लिंग केदारनाथ अशें मानतात. कोल्हापूरचे अंबाबाईक (महालक्ष्मीक) कोल्हासुर, रत्नासुर ह्या दैत्यांचो संहार करपाच्या वावरांत पालव दिवपाखातीर प्रत्यक्ष केदारनाथूच हिमालयांतल्यान जोतिबा दोंगराचेर आयलो आनी ताणें दैत्यांचो संहार करून थंय आपल्या केदारलिंगाची थापणूक केली, अशी एक आख्यायिका आसा. ही कथा अंगापूरकर हाणें रचिल्ल्या मराठी 'केदारविजय' हातूंत (सुमार १७७९) आयल्या. केदारेश्वर, केदारलिंग, केदारनाथ, खळेश्वर हीं जोतिबाचींच नांवां आसा. 'जोतिबा' हें उच्चार करपाक सोंपें अशें लौकिक रूप ज्योतिर्लिंग ह्या शब्दापसून तयार जालां आसूंये.

केदारलिंगाच्या मंदिराचो जीर्णोध्दार पयलीं किवळ गांवाचो पाटील नावजी ससे (रावजी साया असोय उल्लेख मेळटा) हाणें केलो अशें म्हण्टात. उपरांत १७०३ त राणोजीराव शिंदे हाणें ताचो परत जीर्णोध्दार करून सद्याचें मंदिर बांदलें. सद्याचें केदारेश्वर मंदिर दौलतराव शिंदे हाणें १८०८ त बांदलें आनी रामलिंग मंदिर मालजी निकम पन्हाळकर हाणें १७८० त बांदलें. चोपडाईचें मंदिर प्रीतिराव चव्हाण हिंमतबहाद्दर हाणें १७५० त बांदलें. केदारेश्वर मंदिरामुखार काळ्या पाशाणाचे दोन नंदी आसात.

हांगा वाडीच्या भायर थोड्याच अंतराचेर यमाईचें मंदिर आसून तें राणोजीराव शिंदे हाणें बांदिल्लें. जोतिबा दोंगरावयलीं मंदिरां दोंगरावयल्याच निळ्या रंगाच्या फातरान बांदल्यां आनी तांची रचणूक हिंदू पध्दतीची आसा.

जोतिबा वा केदार हाचो काळ यादवकाळाच्याय पूर्विल्लो आसा. महानुभावांचे स्थानपोथींत पैठण, पाठवध, जळगांव हांगाच्या केदारस्थानांचो उल्लेख आसा.

दर आयतारा आनी दर पुनवेक तशेंच श्रावण शुध्द षष्ठीक हांगा ल्हान स्वरुपाच्यो जात्रा जातात. चैत्री पुनवेक जोतिबाची व्हडली जात्रा भरता. हे जात्रेची सुरवात चैत्र शु. अष्टमीसावन सुरू जाता. उत्तर भारतांतल्यान (ग्वाल्हेर वाठार) तशेंच महाराष्ट्रांतल्यान लाखांनी लोक हे जात्रेक जमतात. जात्रेदिसा जोतिबाची पितुळची उत्सव मूर्त पालखेंत बसोवन व्हडा दबाज्यान लग्नाखातीर यमाईच्या मंदिराकडेन व्हरतात. जोतिबा आनी यमाई हांच्या लग्नसुवाळ्याचो एक भाग म्हूण ताचेमदीं शिक्काकट्यार दवरतात. चैत्र शुध्द एकादशीसावन पुनवेमेरेन लेगीत जोतिबाची पालखी आसता. जोतिबा हें जागृत आनी बळिश्ट दैवत अशें मानतात. जोतिबाचेर भावार्थ दवरून पुत्रप्राप्ती, रोगनिवारण, धनप्राप्ती, संकश्ट निवारण जावचें ह्या हेतान भक्त लोक आंगवण करतात
महाराष्ट्रांतल्या सगळ्या जातिजमातींचे लोक जोतिबाचे उपासक आसून जायत्या कुटुंबांचें जोतिबा हें कुलदैवत आसा. ग्वाल्हेरच्या शिंद्यांचेंय तें कुलदैवत आसा. रा. चिं. ढेरे हाणें जोतिबा हें खंडोबासारकेंच क्षेत्रपाळ दैवत आसा, अशें मत मांडलां.

- कों. वि. सं. मं.

**जोधपूरः** राजस्थान राज्यांतलें एक व्हड शार. आदल्या जोधपूर संस्थानाची ही राजधानी आसली. १४५० त राव जोध हाणें जोधपुराची वसणूक केली. राव जोध हो रजपूत घराण्यांतलो मुखेली आसलो. ताच्या नांवावेल्यानूच ह्या शाराक जोधपूर हें नांव पडलां. हांगाची वट्ट लोकसंख्या ५,०६,३४५ (१९८१) आसा. जोधपूरचे लागींच उत्तरेक जोधपूर संस्थानाची आदली राजधानी मंडोर आसा. मूळच्या जोधपूर शारा भोंवतणी व्हड आनी घट्ट दुरीग आसा. हें दुरीग सोळाव्या शेंकड्यांतल्या मालदेव राजान बांदिल्लें. ह्या शारांत एक व्हड फातरार बांदिल्लो भव्य किल्लो आसा. ह्या किल्ल्याक तीन म्हत्वाचीं व्हड दारां आसात. पयलें 'जयपोल' हें राजा मानसिंगान १८०६ तल्या

जयपूर- बिकानेर झुजांत मेळिल्ल्या जैताच्या उगडासाक बांदिल्लें. दुसरें दार 'फत्तेपोल' हें राजा अजितसिंहान आपल्याक मुगलांचेर मेळिल्ल्या जैताच्या उगडासाक बांदला आनी तिसरें दार 'लोहपोल' आसा. महाराजा मानसिंगाबरोबर सती गेल्ल्या बायलांच्या हातांचे ठशे ह्या किल्ल्यांत आसा. तेचपरी हांगा आदल्या शस्त्रांचो संग्रह धनमंडींतलें देवूळ, गुलाबसागर तळ्यादेगेर 'मोती महल', 'फुलमहाल आनी तलहटीका महाल हे राजवाडे आसात. उमदभवन हो नवो राजवाडो, बालसमंद, कैलाना अशीं तळीं, विलिंग्डन बागेंतलें संग्रहालय, तेत्तीस कोटी देवांचें तीर्थ, हीरेज होल अश्यो जायत्यो सुवाती जोधपूराक पळोवंक मेळटात.

हांगा विमानतळ आसा तेचपरी रेल्वेमार्ग आनी रस्ते हांचे जोधपूर एक मोटें प्रवासी थळ. हांगा कापड, लोकर, चामडें, गोरवां, शेतकीमाल, मीठ हांचो वेपार चलता. कांचेचें सामान, हस्तीदंती आनी लाखेच्यो वस्तू, तशेच चामडेपसून केल्लें सामान, चाकू, सुरयो तयार करपाचे, कपडे रंगोवपाचे आदी हाती वेवसाय हांगा चलतात. तेभायर पितुळ, लोखणी सामान, सायकली आदींचे कारखानेय जोधपूरांत आसात.

हांगा भारतीय वायूदलाचें प्रशिक्षण म्हाविद्यालय आसा. राजस्थान राज्याचें उच्च न्यायालय आनी राजस्थान विद्यापीठाक जोडिल्लें वैजकी म्हाविद्यालय हांगा आसा. तेचपरी १९६२ त थापणूक जाल्लें जोधपूर विद्यापीठ आनी ताका जोडून आशिल्लीं शास्त्रीय आनी शिक्षण प्रशिक्षण म्हाविद्यालयां अश्यो म्हत्वाच्यो संस्था जोधपूरांत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**जोन ऑफ आर्क:** (जल्मः ६ जानेवारी १४१२, दोनरेमी व्हो फ्रांस; मरणः ३० मे १४३१, रूआं).

फ्रेंच भाशेंत जान दार्क. फ्रांसातली एक व्हड संत बायल आनी देशभक्त. तिचो जल्म एका ल्हानशा खेड्यांत शेतकामती कुटुंबांत जालो. ती धर्मीक वृत्तीची आनी सुंदर आशिल्ली. ती व्हड विद्वान नाशिल्ली पूण धर्मशास्त्राच्या मुळाव्या सिध्दांतांचो तिणें अभ्यास केल्लो. धर्मीक प्रवृत्तीचे हे चलयेक पिरायेच्या तेराव्या वर्सांसावन शेतांत काम करतना देव आपल्या कानांत उलयता, असो भास जातालो. सेंट कॅथरिन, मार्गरिट आनी मायकेल ह्या जावन गेल्ल्या संतांचें तिका दर्शनूय जातालें.

ह्या दैवी संदेशाक थोडोसो राजकी अर्थ आशिल्लो. इंग्लंड आनी फ्रांस हांच्यांतल्या शतवर्सुकी झुजांतलो हो काळ फ्रांसाक सामको प्रतिकूल आशिल्लो. त्याचे कबलातीवरवीं फ्रांसाचें राजपद युवराज चार्ल्साक मेळनासतना इंग्लंडाच्या राजाक मेळपाचें आशिल्लें. ऑक्टोबर १४२८ त, ऑर्लेआं ह्या म्हत्वाच्या ठाण्याभोंवतणी ब्रिटिशांनी रेंवडो घालो. ह्या कठीण प्रसंगावेळार जोनाक दैवी आज्ञा जाली, 'देवकन्ये, उठ आनी ऑर्लेआंची मुक्ती कर आनी युवराज चार्ल्साचो राज्याभिशेक करपाचे तयारेक लाग.'

आवयबापायच्या विरोधाची पर्वा करीनासतना आनी फ्रेंच अधिकाऱ्यांच्या मताआड तिणें युवराज चार्ल्साची भेट घेतली आनी ब्रिटिशांआड झुजपाक ताका प्रेरणा दिली. निश्क्रिय जाल्ल्या फ्रेंच सैनिकांचेर जोनच्या व्यक्तीमत्वाचो खूब प्रभाव पडलो. तांणी व्हड उर्बेन आनी धाडसान लढाय केली आनी ऑर्लेआं, पाते ह्या झुजांत जैत मेळयलें. उपरांत तिणें रेमो (Rheims) हांगा १७ जुलय १४२९ दिसा चार्ल्स (सातवो) हाचो राज्याभिशेक केलो.

१४३० त जोन हिणें पारिसाची मुक्ती करपाच्या हेतान यत्न सुरू केले. पूण तिका यश मेळ्ळेंना. उपरांत बरगंडियन आनी ब्रिटीश सैन्यान रेंवडो घाल्ल्या कांप्येन (Compiegne) नगरांत तिणें प्रवेश केलो. कांप्येनच्या झुजांत मे १४३० त, तिका बरगंडियन सैनिकांनी धल्ली आनी ब्रिटिशांक विकली. चर्चीचो अपमान करप, चेटूक करप हे आरोप तिचेर दवरून तिका बंदखणींत घाली. फ्रेंच बिशप न्यायालयान तिका गुन्यांवकार थारायली आनी १४३१ त रूआं हांगा जिवेशी लासली.

१४५६ त तिचेर केल्ल्या आरोपांची जाहीर रितीन चवकशी जावन तिका निर्दोश थारायली. तिच्या हौतात्म्याक लागून फ्रांसाची राश्ट्रीय अस्मिताय जागृत जाली. १९२० त पंदराव्या बेनिडिक्ट पोप हाणें अधिकृत रितीन तिका संतपद दिलें. युरोपीय चित्रकारांनी तिचीं प्रतिमाचित्रां रंगयलीं. तशेंच साहित्यिकांनी तिका नायिकेचें स्थान दिवन जायत्यो मनोरंजक कथा बरयल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**जोर:** जोर येवप म्हळ्यार आंगाची उश्णताय सदांच्या सरासरी तापमानापरस चड आसप. मनशाच्या आंगाची सरासरी उश्णताय ९७° ते ९८° फॅ. आसता. हाचेपरस ती चड जावप म्हळ्यार जोर आयला, अशें म्हण्टात.

मनशाचे कातींत ज्यो शिरो आनी घामाच्यो ग्रंथी आसतात, त्यो उश्णताय भायर सोडपाचें काम करतात. आंगाचें तापमान सरासरीभितर दवरपाचें काम मेंदवांतलो 'हायपोथालामस' (Hypothalamus) करता. आंगांतले स्नायू आनी हेर अवयव ज्यो दिसपट्ट्यो क्रिया करतात, तातूंतल्यान उश्णताय निर्माण जाता आनी ही उश्णताय समान दवरप, हें हायपोथालामस चेर आदारुन आसता.

**कारणां:** कुडींत चड उश्णताय जावप वा उत्पन्न जाल्ली उश्णताय सदांचेभशेन उत्सर्जित (भायर उडोवपाची क्रिया) जावप ना, हाकालागून कुडीचें तापमान वाडून जोर येता. विवाणूक (virus) लागून जोर येता. इन्फ्लूएंझा, थंडेचे विवाणू, भिण्णां (Tonsilitis), सायनसायटीस, फॅरिन्जायटीस, ब्रॉंकायटीस, न्यूमोनिया हांची लागण जाल्यार तांच्या विवाणूंक लागून जोर येता. हेभायर टायफॉइड दुयेंसाक लागून वा पचनाची प्रक्रिया इबाडून जोर येवंक शकता. तेभायर हेर रोगजंतूय कुडींत गेल्ल्यान जोराची लागण जाता. जोर येता, तेन्ना जंतूंक लागून रगतांत एक प्रकारचें विख तयार जाता. 'पायरोजेन' ह्या विखयाळ्या पदार्थाक लागून हायपोथालामसचेर परिणाम जावन कुडीच्या तापमानाचेर नियंत्रण दवरप शक्य जायना.

**लक्षणां:** मलेरियाक लागून आयिल्लो जोर अकस्मात कुडकुडो खावन येता. तो रोखडोच देंवताय. टी. बी. जाल्ल्या मनशाक उण्या प्रमाणांत जोर येता आनी बरेच खेप जोर आसा वा ना, हाचीय व्हडलीशी जाणविकाय जायना. ह्या जोरा वांगडा तकली आनी आंग दुखप, हात-पांय वळप, असलींय लक्षणां दिसतात. थंडेच्या विवाणूंक लागून येवपी जोरांत नाक गळप, शिंको येवप, ताळो दुखप हीं लक्षणां जाणवतात. भिण्णांक लागून जोर येत जाल्यारूय ताळो दुखून गिळपाक त्रास जाता. ब्रॉंकायटीस, न्यूमोनिया हातूंत भरपूर खांक येवन कफ पडटा. पातळ परसाकडे जावपाचो रोग जाल्यार पोटांत वळून ओंकारो येता. मुताची पीडा आसल्यार मुततना जळटा. 'येननजायटीस' सारको घातक रोग जायत जाल्यार जोरावांगडा तकली दुखता, ओंकारो येता आनी केन्नाकेन्नाय शुध्द वता. दरेक रोगाक लागून आयिल्ल्या जोरावांगडा वेगवेगळीं लक्षणां दिसतात.

**उपाय:** जोराचेर उपाय करचेपयलीं ताचें कारण समजून घेवप म्हत्वाचें आसता. पूण तात्पुरत्या काळाखातीर जोर देंवोवपाखातीर थारावीकूच उपाय आसता. जोर देंवोवपाचीं सादारण वखदां म्हळ्यार ॲस्पिरीन, ॲनाल्जिन हीं आसात. वखदां दिवपावांगडाच, थंड उदकान आंग पुसून काडल्यार जोर बेगीन देंवता. वखदांचो परिणाम हायपोथालामसचेर जाता आनी घाम वचून जोर देंवता.

जोराच्या विवाणूचेर खास अशें वखद ना, पूण बरेच फावट जोर आपशींच देंवता. चड तेंप जर जोर देंवलो ना जाल्यार मात दोतोराकडल्यान तपासणी करून घेवची पडटा. जोराचें कारण कळटकच ज्या दुयेंसाक लागून जोर आयला, त्या दुयेंसाचेर वखद घेवचें पडटा.

**जतनाय :** ज्या जंतूंक लागून जोर येता, त्या जंतूंक मारून उडोवंक ते ते तरेचीं वाशिनां घेवचीं पडटात. देखीक- भुरगेपणांत टी. बी. आड बी. सी. जी., कोलेखांक, कांटेल हांचेआड Triple vaccine, पोलिओआड पोलिओ व्हॅक्सीन, हुरहुरें, गालगुटां हांच्या विवाणूंक लागून येवपी

जोराचेरूय वाशिनां घेतात.

हे भायर नितळसाण दवरप, जेवणाखाणाची जतनाय घेवप, घरभोंवतणीं जळारं जावंक दिवप ना, हाचीय जतनाय घेवप गरजेचें आसता. जोर चड चडूंक दिनासतना वखदां करप म्हत्वाचें आसता, नाजाल्यार जोर आयिल्ल्या मनशाक मरण लेगीत येवं येता.

- डॉ. जी. के. सालेलकार.

**जोशी, अनंत विनायकः** (जल्मः २३ डिसेंबर १९२८, हेदोडें-सत्तरी).

गोंयचो सुटके झुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. गोविंद हरी भावे शास्त्री हाच्या मार्गदर्शनाखाल वावर करून तो सुटके झुजाऱ्यांच्यो बसका घेतालो. २६ जानेवारी १९५५ दिसा धावें वाठारांतल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. ह्या सत्याग्रहांत ताणें हातांत तिरंगी बावटो घेवन तोंडान व्हडाव्हडान घोशणा दीत धावें-सत्तरी वाठारांतल्यान मिरवणूक काडिल्ली. पोलिसांनी ताका धरलो आनी पणजे बंदखणीत स म्हयने दवरलो. पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया (Territorial Military Tribunal) मुखार चवकशे उपरांत ताका आठ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. कायदो आनी सुवेवस्थेंत आडमेळीं येवचीं न्हय, म्हूण दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिली. तेभायर दंड भरूंक लायलो. १ जुलय १९५९ दिसा जेन्ना सगळ्या कैद्यांक सूट दिली, तेन्ना ताचीय बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १८ जून १९८५ दिसा गोंय सरकारान ताच्या सुटके झुजांतल्यान वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, ईश्वरलाल मंचारामः** (जल्मः ७ फेब्रुवारी १९३०, भीमपूर-दमण).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान आनी माध्यमिक शिक्षण गुजरातींतल्यान घेतलें. तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी जालो. १९५३ वर्सा ताका दमण वाठारांतल्या शेतकामत्यांचे संस्थेचो अध्यक्ष म्हूण वेंचून काडलो. १ जुलय १९५४ दिसा तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटनेचो अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. १ ऑगस्ट १९५४ ते ३ फेब्रुवारी १९६२ मेरेन ताणें 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचे दमण शाखेचो अध्यक्ष म्हूण वावर केलो. कत्तलखाने बंद जावचे, म्हूण ताणें आवाज काडलो. ताका पोलिसांनी बरेच खेपो अटक करून दर खेपेक एक ते आठ दीस बंदखणींत दवरलो. सत्याग्रहांनी वांटो घेवप, बसका घेवन सरकाराआड झुजपाक लोकांक स्फूर्त दिवप, भारतीय अधिकाऱ्यांक गोंय, दमण आनी दीव हांगाचे नकाशे धाडप, लश्करी म्हत्वाच्या जाग्यांचीं चित्रां धाडप असलीं कामां तो करतालो. तेभायर हेर गुपीत गजालींविशीं खबरो पावोवपाचेंय काम तो करतालो.

दादरा आनी नगर हवेलीचे सुटके झुजांत वांटो घेतिल्ल्याच्या आरोपाखाल १ ऑगस्ट १९५४ दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. १३ नोव्हेंबर १९५४ दिसा ताका परतो अटक केलो आनी साडेबारा वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. साडेतीन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगतकच ताची आग्वाद बंदखणींतल्यान सुटका जाली. बंदखणींत ताका बरेच खर त्रास सोंसचे पडले; ताका लागून ताच्या उजव्या हाताचो आंगठो तुटलो. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, कालिदास रविशंकरः** (जल्मः १५ जून १९३६, भीमपूर-दमण).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण गुजरातींतल्यान घेतलें. 'खुरासाई डुंगा' वाठारांत ताणें तिरंगी बावटो लायिल्लो. पोर्तुगेजांचो संपर्क तोडपाक ताणें रस्ते खणून आडखळी हाडिल्यो. १३ नोव्हेंबर १९५६ दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. पोर्तुगेज सरकाराच्या पणजी शारांत आशिल्ल्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया (Territorial Military Tribunal) मुखार चवकशे उपरांत ताका साडेचार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १७ मे १९५९ दिसा ताची बंदखणीतल्यान सुटका जाली. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, किशोर छोटुभाईः** (जल्मः २९ जुलय १९३५, भीमपूर-दमण).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें बी.ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. गोंय, दमण आनी दीव वाठाराचे शिमेचेर डेप्युटी जनरल आनी स्टेट रिझर्व पोलीस हांच्या मार्गदर्शनाखाल पोर्तुगेज सरकारान दमण वाठारांत नेमिल्लें पोर्तुगेज सैन्य, लश्करी विमानतळ, राजभवन, वीजकेंद्र, लश्करी हॉस्पिटल हांचेविशीं पुराय म्हायती काडून घेवपाचें काम तो करतालो. लोकांक सुटकेविशीं म्हत्व कळचे पासत तो तांकां राश्ट्रवादी साहित्य वाटतालो. शीम हुपता आसतना पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरपाचे जायते यत्न केले. अखेरेक ३० नोव्हेंबर १९५६ दिसा पोलिसांनी ताका ताच्याच घरांत धरलो आनी १५ मे १९५७ मेरेन ताका दमण बंदखणींत दवरलो. थंय ताका हवा आनी उजवाड हांची फाव ती वेवस्था ना, अशा एकांतवासांत दवरिल्लो. १७ मे १९५७ दिसा ताका पणजे बंदखणींत व्हेलो आनी थंयसावन जून १९५७ त, ताका आग्वाद बंदखणींत दवरलो. उपरांत पणजे शारांत आशिल्ल्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया (Territorial Military Tribunal) मुखार चवकशी करतकच, ताका दोन वर्सां आनी आठ म्हयने खर बंदखणीची ख्यास्त दिली. १७ मे १९५९ दिसा जेन्ना सगळ्या कैद्यांक सूट मेळ्ळी तेन्ना ताचीय बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १४ ऑगस्ट १९७४ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८५ दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, जगन्नाथराव अनंतः** (जल्मः १९१९, नरगुंद, धारवाड - कर्नाटक).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें बी.ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. १९४९ वर्सा सभा बंदीचो कायदो मोडिल्ल्याच्या आरोपाखाल पोलिसांनी ताका धरलो आनी साडेचार वर्सां बंदखणींत दवरलो. १९५४ वर्सा जनसंघाचो तो सरचिटणीस आशिल्लो. १९५४ वर्सासावन ताणें गोंय विमोचन सहाय्यक समितीकडेन संबंद जोडले. तेन्नाच ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेवपाचें थारायल्लें. ताणें सुटके झुजारी राजाराम रामचंद्र पाटील हाचेवांगडा पुण्यांत १२० सत्याग्रहींचो पंगड एकठांय केलो. हो पंगड घेवन तो सावंतवाडी आयलो. थंय ह्या पंगडाचे ताणें ल्हान ल्हान विभाग केले. ताणें स्वता २५ सत्याग्रहींचो पंगड घेवन २५ जून १९५५ दिसा बांदें शीम हुपून गोंयांत सत्याग्रह केलो. त्याच दिसा पोलिसांनी ताका हेर सत्याग्रहींवांगडा पेडणेंतल्या न्हंयबाग वाठारांत धरलो आनी आग्वाद बंदखणींत दवरलो. ३ ऑगस्ट १९५५ दिसा पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया (Territorial Military Tribunal) मुखार ताची चवकशी सुरू केली. २१ ऑक्टोबर १९५५ दिसा न्यायाधिशान ताका धा वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ते भायर दिसाक पंचवीस इस्कूद ह्या प्रमाण दोन वर्सां दंड भरूंक लायलो. २ फेब्रुवारी १९५७ वर्सा जेन्ना सगळ्या कैद्यांक सूट मेळ्ळी, तेन्ना ताचीय बंदखणींतल्यान सुटका जाली. उपरांत जनसंघात रावन तो राजकी वावर करूंक लागलो. जनसंघाचो तो मुखेल फुडारी आशिल्लो.

धारवाड मतदार संघांतले लोकसभा वेंचणुकेंतल्यान तो दोन वेळा आमदार म्हूण वेंचून आयलो. १८ जून १९८५ दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, पांडुरंग नारायण:** (जल्म: २९ मार्च १९२९, धावें-सत्तरी).

गोंयचो सुटके झुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. सुटके झुजारी रामभाऊ काकोडकार हाच्या मार्गदर्शनाखाल ताणें काम केलां. २६ जानेवारी १९५५ दिसा गोविंद हरी भावे शात्री ह्याच्या फुडारपणाखाल सत्तरी तालुक्यांतल्या धावें वाठारांत सत्याग्रह जाल्लो, तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणीत दवरलो. पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया (Territorial Military T ibunal) मुखार चवकशे उपरांत ताका आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगची पडली, तेभायर दंडूय भरचो पडलो. १ जुलय १९५९ दिसा जेन्ना सगळ्या कैद्यांक सूट मेळ्ळी, तेन्ना ताचीय बंदखणींतल्यान सुटका जाली. उपरांत सत्तरी शाखेच्या सुटके झुजारी संघटनेचो अध्यक्ष म्हूण ताणें वावर केलो. तो शेतकाम करतालो; तेभायर शिल्पकार आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, बाळकृष्ण गोविंद:** (जल्म: ५ जानेवारी १९३०, सांखळे-दिवचल).

गोंयचो सुटके झुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आसलो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो भूंयगत रावन सुटके झुजाऱ्यांक आदार दितालो. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेखातीर तो वांगडी एकठांय करतालो. ताणें सत्तरी तालुक्यांतल्या रावण आनी कुडचीरें वाठारांतल्या पोलिस चौक्यांनी उजो लावपांत वांटो घेतिल्लो. उपरांत तो गोंयांसावन दोडामार्ग गेलो आनी थंयसावन गोंयच्या 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेच्या वावुरप्यांखातीर पत्रकां धाडूंक लागलो. १९७५ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, भीमसेन:** (जल्म: १४ फेब्रुवारी १९२२, रोण-धारवाड).

एक नामनेचो गावपी. ताचो बापूय गुरुराज आनी बापोलयो गोविंदाचार्य साहित्यीक आशिल्ले. ताचो आजो त्या काळांतलो नामनेचो गायक आशिल्लो. ल्हानपणासावनची ताची गायनाची आवड लक्षांत घेवन बापायन ताचेखातीर घरच्यान एक गायन शिक्षक नेमलो. पूण तातूंत ताचें समाधान जालें ना. उपरांत ताणें मुंबय, विजापूर, जालंदर, कलकत्ता ह्या वाठारांची भोंवडी केली. कांय काळ ताणें लखनौच्या आकाशवाणी केंद्राचेर नोकरी केली. ताणें सवाई गंधर्व (रामभाऊ कुंदगोळकर) हाचेकडल्यान गावपाची दीक्षा घेतली. सवाई गंधर्वान ताका संगीत पांच वर्सां तालीम दिली. भीमसेनान खूब कश्ट घेवन गायन विद्या आत्मसात केली. १९४६ वर्सा सवाई गंधर्वाच्या पुण्यांत जाल्ल्या षष्ट्यब्दीपूर्तीच्या कार्यक्रमांत तो पयलेखेप लोकांनुखार आयलो. किराणा घराण्याचो व्हड गायक, सवाई गंधर्व हाणें भास्करबुवा गोखले आनी ग्वाल्हेराचो निसार हुसेन खाँ हांच्या गायनातलीं म्हत्वाचीं आंगां आत्मसात केल्लीं. सवाई गंधर्वाची ही गायकीची कला भीमसेन हाणें आपणायलीच; तेभायर जयपूर घराण्याची केसरबाय केरकार आनी इंदूर घराण्याचो अमीरखाँ हांचे गायकीचो अभ्यास करून तातूंतली लयकारी, बोल आनी तानफिरक्क्यांच्यो जाती ताणें आत्मसात केल्यो. ताणें सवाई गंधर्वाची नूळची स्वरप्रधान आनी आक्रमक अशी गायकी चड आक्रमक आनी गतिमान केली. देखूनूच आर्विल्ल्या भारतीय गायकांत ताका उपाट नामना आनी यश मेळ्ळां. १९७१ वर्सा ताका मध्वपीठाचे वतीन 'संगीत-रत्न' (१९७१) आनी १९७२ त भारत सरकाराकडल्यान 'पद्मश्री' ही पदवी मेळ्ळी. तेभायर १९७६ वर्सा ताका संगीत नाटक अकादमीचो पुरस्कार फाव जालो. ताच्या शिष्य गणांत रामकृष्ण पटवर्धन, माधव गुर्डी, श्रीकांत देशपांडे हांचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, महादेवशास्त्री:** (जल्म: १२ जानेवारी १९०६, आंबेडें-सत्तरी).

भारतीय संस्कृतीकोशाचो व्यासंगी संपादक आनी मराठी लेखक. ताणें शालेय शिक्षण घेतलें ना. पूण पारंपारिक तरेन ताणें आंबेडें, धावें आनी सांगली ह्या वाठारांनी वचून संस्कृत, व्याकरण, काव्यशास्त्र आनी ज्योतिश ह्या विशयांचें शिक्षण घेतलें. उपरांत १९२६ वर्सा ताणें सत्तरी वाठारांत 'सत्तरी शिक्षण संस्था' नांवाची एक संस्था स्थापन केली आनी तो शिक्षण प्रसाराचो वावर करूंक लागलो. फुडें १९३५ वर्सा तो पुण्यांत गेलो, थंय ताणें लोकांक पुराण-प्रवचनां दिवंक सुरवात केली. १९३८ वर्सा सावन तो भक्तिज्ञान आनी वैराग्य ह्या विशयांचेर येवपी 'चैतन्य' ह्या नेमाळ्याचो सहसंपादक म्हूण वावर करूंक लागलो. ह्याच नेमाळ्यांत १९३४ वर्सा ताची 'राण्यांचें बंड' ही पयली कथा उजवाडाक आयली. उपरांत जायतीं वर्सां ताणें नेमान कथेचें बरप केलां. १९४१ वर्सा 'वेल विस्तार' हो ताचो पयलो कथांझेलो उजवाडाक आयलो. फुडें १९५७ वर्सा मेरेन ताचे वट्ट धा कथांझेले उजवाडाक आयले. 'खडकांतले पाझर' (१९४८), 'विराणी' (१९५०), 'घररिघी' (१९५५) हे कथांझेले तातूंतलेच. ताच्यो जायत्यो कथा गोंयच्या जिविताचेर आदारिल्ल्यो आसात. सोपी, सरळ पूण भावनात्मक भास आनी आकर्शक निवेदन शैली हे म्हत्वाचे गूण ताच्या कथा बरपांत होलमतात. जिविताकडेन पळोवपाची ताची प्रसन्न आनी नितळ नदर ताच्या कथांवरवीं दिसून येता. ताच्या कांय कथांचेर मराठी चित्रपट काडल्यात. तेचपरी ताच्या कांय कथांचे हिंदी अणकारूय जाल्यात. भारतांतल्या तरेकवार भासांतलें आनी परभाशेंतल्या भारतीय संस्कृती विशयांच्या ग्रंथाचें शिकप करून ताणें 'भारतीय संस्कृतीकोश' (१० खंड) तयार करपाचो वावर केलो. १९६२-७९ ह्या काळांत कोशाचे वट्ट धा खंड उजवाडाक आयले. ह्या खंडावरवीं भारतीय संस्कृतायेच्या तरेकवार आंगांचीं उपयुक्त म्हायती मेळटा.

भारतांतले वेगवेगळे वाठार, तीर्थक्षेत्रां, लोककथा, कर्तृत्ववान मनीस हांचेर ताणें स्वतंत्र ग्रंथ बरयल्यात. ताणें वट्ट चाळिसांवयर ग्रंथ बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, लक्ष्मण गणेश:** (जल्म: ७ मे १९२८, अळणावर-धारवाड).

गोंयचो सुटके झुजारी. 'गोंय सुटके सैन्य' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. लोकांक राजकी घडणुकांविशीं म्हत्व समजावन सांगचेपासत, तो बसकांनी वांटो घेतालो. २६ जानेवारी १९५५ दिसा सत्तरींतल्या धावें वाठारांत जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत दवरलो. बंदखणींत ताका बरेच शारिरीक त्रास सोंसचे पडले. दोन वर्सांनी ताची सुटका जाली. १५ ऑगस्ट १९७२ त, भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, लक्ष्मण दामोदर:** (जल्म: ८ जुलय १९११, धावें-सत्तरी).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. २६ जानेवारी १९५५ दिसा सत्तरी तालुक्यांतल्या धावें वाठारांत जो सत्याग्रह जाल्लो तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेचपरी धावें ते वाळपय मेरेन मोर्च्यांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका वाटेर सांवड्च्या गांवांत धरलो. गोंयच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार (Territorial Military Tribunal) चवकशी जावन ताका पांच वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ताका आग्वाद आनी रेइश मागुशचे बंदखणींत दवरलो. १० जानेवारी १९५९ दिसा ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, लक्ष्मणशास्त्री:** (जल्मः २७ जानेवारी १९०१, पिंपळनेर-धुळे- महाराष्ट्र).

एक व्हड विचारवंत, संस्कृत पंडीत आनी मराठी विश्वकोशाचो मुखेल संपादक. बापायचें नांव बाळाजी शास्त्री आनी आवयचें नांव चंद्रभागा. ताणें वयाच्या चवदाव्या वर्सा प्राज्ञ शाळेंत, केवलानंद सरस्वती हाच्या मार्गदर्शनाखाल न्याय वेदान्ताच्या पुर्विल्ल्या शास्त्राचें शिक्षण घेतलें. १९२३ वर्सा कलकत्त्याच्या शासकीय संस्कृत महाविद्यालयांतल्यान तर्कतीर्थ ही पदवी घेतली. इंग्लीश भास आनी आर्विल्लें अस्तंती ज्ञानविज्ञान हाचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. वाई ह्या वाठारांत रावन ताणें प्राज्ञ पाठशाळेचें आनी मराठी विश्वकोशाचें कार्य केलें. महात्मा गांधीच्या अस्पृश्यता निवारण कार्याखातीर ताणें हिंदुधर्मशास्त्राचेर भाश्य बरयलें.

१९३० आनी १९३२ वर्सा जाल्ले असहकार चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्ल्यान ताका दरेक फावट स स म्हयने बंदखण भोगची पडली. १९३६ वर्सा उपरांत मानवेंद्रनाथ रॉय हाच्या 'रॅडिकल डेमॉक्रॅटिक' पक्षाचो तो कार्यशील वांगडी जालो. १९४० वर्सामेरेन आनी भारताचे सुटके उपरांतच्या काळांत ताका काँग्रेस पक्षाचो एक विचारवंत आनी भाश्यकार म्हूण वळखतात. वाई वाठारांत ताणें हरिजन विद्यार्थ्यांखातीर वसतीगृह, हातांनी कागद तयार करपाचो कारखानो, अद्ययावत मुद्रणालय आदींची थापणूक केली. १९५१ वर्सा ताणें सोरटी सोमनाथ ह्या देवळाचो जिर्णोध्दाराचो वावर केलो. वाईच्या महाविद्यालयाचो तो संस्थापक वांगडी आसा. प्राज्ञ पाठशाळेवरवीं ताणें धर्मकोशाच्या संपादनाचो वावर हातांत घेतिल्लो. ह्या कोशाचे इकरा खंड उजवाडाक आयल्यात.

१९६० वर्सा तो महाराष्ट्र राज्य साहित्य संस्कृती मंडळाचो अध्यक्ष जालो. ह्या मंडळावरवीं तो वीस खंडीय मराठी विश्वकोशाचें मार्गदर्शन करता. ताच्या ग्रंथाची कांय नांवां अशीं आसात. 'शुध्दिसर्वस्वम्' (१९३४), 'आनदमिमांसा' (१९३८), 'हिंदुधर्माची समीक्षा' (१९४१), 'जडवाद' (१९४१), 'ज्योतिनिबंद' (१९४७), 'वैदिक संस्कृतीचा विकास' (१९५१), 'आधुनिक मराठी साहित्याची समिक्षा व रससिध्दांत' (१९७३). ताणें राजवाडे लेखसंग्रह (१९६४) आनी लोकमान्य टिळक लेखसंग्रह (१९६९) ह्या ग्रंथाचें संपादन केलां. तशेंच ताणें हेर जायते लेख आनी प्रस्तावना बरयल्ल्यो आसात. 'हिंदुधर्माची समीक्षा' हो ग्रंथ बरोवन ताणें आर्विल्ल्या काळांत समाजीक उदरगतीचे नदरेन पारंपारिक धर्ममूल्यां कितलीं उपेगी आसात हाची विस्कटावणी केल्या. गोवर्धन पारिख हाणें ह्या ग्रंथाचो 'ए क्रिटीक ऑफ हिंदुइझम' (१९४८) ह्या नांवान इंग्लीश अणकार केला. मराठी साहित्याखातीर आशिल्लो साहित्य अकादेमीचो पयलो वयलो पुरस्कार १९५५ वर्सा ताच्या 'वैदिक संस्कृतीचा विकास' ह्या ग्रंथाक मेळ्ळो. आर्विल्ल्या मराठी साहित्याची समीक्षा, संस्कृतांतलो रससिध्दांत, मराठी संताचो वावर हेविशीं लेख बरोवन ताणें लोकांमुखार नवी नदर दवरली. ताच्या कांय वेंचीक लेखांचो झेलो 'विचारशिल्प' ह्या नांवान उजवाडाक आयला.

१९५४ वर्सा दिल्ली हांगासर भरिल्ल्या साहित्य संमेलनाचो तो अध्यक्ष आसलो. १९७९ वर्सा मुंबय विद्यापीठाचे वतीन ताका एल्. एल्. डी. ही पदवी मेळ्ळया. १९७३ वर्सा संस्कृत पंडीत म्हूण आनी १९७६ वर्सा पद्मभूषण ही पदवी दिवन भारत सरकारान ताचो भोवमान केला.

ताणें व्याख्यानां, परिशदो आदींच्या निमतान भातरभर प्रवास केला. तशेंच ताणें अमेरिका, ब्रह्मदेश, रशिया, युरोप, आशिया, आफ्रिका ह्या वाठारांनी भारताच्या प्रतिनिधी मंडळाचो वांगडी म्हूण वा स्वतंत्रपणान निमंत्रित म्हूण भोंवड्यो केल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, विष्णु पांडुरंग:** (जल्मः २४ जुलय १९२०, धावें-सत्तरी).

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव पांडुरंग विष्णु जोशी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठी आनी पोर्तुगेजींतल्यान घेतलें. १९५४ वर्सा सावन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आसलो. सुटके झुजारी पीटर आल्वारीस हाच्या फुडारपणाखाल ताणें वावर केला. वण्टीपत्रकां लावप, बसका घेवप, लोकांमदीं सुटके झुजाविशीं प्रचार करप असलीं कामां तो करतालो. तेभायर सुटके झुजांत वांटो घेवंक गोंया भायरसून आयिल्ल्या बिगर गोंयकार सुटके झुजाऱ्यांखातीर जेवण आनी रावपाची वेवस्था तो करतालो. १९५४ वर्सा सुटके झुजारी विश्वनाथ ए. जोशी हाचेवांगडा कानकुंभी वाठारांत गोंयची शीम हुंपता आसतना ताका धरलो. दोन दिसां उपरांत ताका सोडलो. २६ जानेवारी १९५५ दिसा धावें, वाळपय वाठारांत जो सत्याग्रह जाल्लो तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. थंय वाटेर सोनाळ वाठारांत ताका पोलिसांनी धरलो आनी पणजे पोलिस ठाण्यांत व्हेलो. २२ जुलय १९५५ दिसा पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया (Territorial Military Tribunal) मुखार ताची चवकशी जाली. ताका आठ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. दिसाक बारा इस्कूद हे प्रमाण दोन वर्सां दंड भरूंक लायलो. ते भायर १५ वर्सांखातीर ताचे राजकी हक्क काडून घेतले.

१ जुलय १९५९ दिसा ताची सुटका जाली. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८१ दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, श्रीधर महादेव:** (जल्मः १२ नोव्हेंबर १९०४, जुन्नर-पुणे; मरणः १ एप्रिल १९८९, पुणे).

एक व्हड सुटके झुजारी. एक निश्ठावंत समाजवादी फुडारी आनी कामगार फुडारी. 'एसेम्' ह्या नांवान तो परिचित आसा. ताचो जल्म एका मध्यम वर्गीय घराब्यांत जालो. मुळावें शिक्षण पुराय जावंचेआदींच ताचो बापूय भायर पडलो. पुणेच्या फर्ग्युसन महाविद्यालयांतसून तो बी. ए. जालो (१९२९) आनी १९३४ त एल्एल्. बी. जालो. तारा पेंडसे ह्या चलयेवांगडा १९३९ त तो लग्न जालो. ताका दोन भुरगीं आसात.

विद्यार्थी आसतनाच म. गांधीचे चळवळीकडेन तो आकर्शित जालो. ताणें विद्यार्थ्यांचो एकवट घडोवन हाडून मुंबय यूथ लीगची परिशद घडोवन हाडली (१९२७). हरिजनांक पुण्यातले पर्वती हांगाच्या देवळांत प्रवेश मेळचो म्हूण ताणें सत्यग्रह केलो (१९२९). ताचेआदीं ताणें सायमन आयोगाआड मोर्चा काडिल्लो. मीठाच्या सत्याग्रहांत वांटो घेतलो, म्हूण ताका अटक जाली आनी ख्यास्त भोगची पडली. ह्या काळांत ताणें मार्क्सवाद आनी समाजवाद हांचो अभ्यास केलो आनी तो समाजवादी जालो. मानवेंद्रनाथ रॉय हाका मुक्त करचो म्हूण ताणें उलोवप केलें. तेखातीर ताका परत अटक जाली.

ताणें कांय वांगड्यांचे मदतीन काँग्रेस सोशॅलिस्ट पक्षाची थापणूक केल्ली. काँग्रेस मंत्रीमंडळ आसतना ताणें शेतकामत्यांचो मोर्चा काडलो (१९३७). 'छोडो भारत' (चलेजाव) आंदोलनाच्या वेळार (१९४२) तो भूंयगत जालो पूण १९४३ त ताका अटक जाली. १९४६ त तो मुक्त जालो.

तो राश्ट्र सेवा दलाच्या संस्थापकांतलो एक संस्थापक जावन आसा. १९४०-४१ आनी १९४७-५१ ह्या काळांत राष्ट्रसेवा दलाचो तो दलप्रमुख आशिल्लो. १९४८ त तो महाराष्ट्राच्या समाजवादी पक्षाचो अध्यक्ष जालो. साने गुरुजी सेवापथकांत ताणें वांटो घेतलो (१९५०) आनी 'साधना' हे सप्तकी नेमाळें चलोवपाखातीर विश्वस्त समितीची थापणूक करून हें सप्तकी नेमाळें फुडें चालू दवरलें. फुडें तो मुंबय विधानसभेचेर वेंचून आयलो (१९५३). म्हारगाय, भूदान हे चळवळींनी ताणें वांटो घेतलो. स्वातंत्र्याउपरांत कामगारांचें संघटन आनी तांचे प्रस्न हातूंत ताणें विशेश लक्ष घालें.

हाचे आदीं गोवा विमोचन समिती आनी संयुक्त महाराष्ट्राची चळवळ हातूंत ताणें फुडाकार घेतलो. संयुक्त महाराष्ट्र समितीचो १९५६-६१ ह्या काळांत तो सरचिटणीस आशिल्लो. ताणें केंद्रीय सरकारी नोकरांच्या

संपाचें फुडारपण केलें (१९६०). १९५७ त तो मुंबय विधानसभेचेर वेंचून आयलो. १९६३ त प्रजा समाजवादी पक्षाचो अध्यक्ष जालो. फुडें संयुक्त समाजवादी पक्षाचो अध्यक्ष म्हूण ताची वेंचणूक जाली. ऑल इंडिया डिफेन्स फेडरेशनचो चिटणीस, ऑल इंडिया स्टेट बँक एंप्लॉइज फेडरेशनचे अध्यक्ष आनी महाराष्ट्र परिवहन कामगार सभेचो अध्यक्ष ह्या पदांचेर लेगीत ताणें काम केलें. मुंबयचे भाशिक दंगलींत आनी पुण्याच्या धर्मीक दंगलीत ताणें एकचार आनी भावपण तिगोवपाखातीर उपाट वावर केलो. १९६७ त तो लोकसेभेचेर वेंचून आयलो.

'साधना' सप्तकी नेमाळ्याचो आनी आंतर भारती संस्थेचो तो विश्वस्त आशिल्लो. समाजीक वावरावांगडाच ताणें आपलीं मतां 'डेली न्यूज' आनी 'लोकमित्र' ह्या खबरेपत्रांतल्यान मांडलीं. ताचो तो अनुक्रमान १९५३ आनी १९५८-६२ न संपादक आशिल्लो.

हेभायर पुणे महानगरपालिकेचो तो कितलींशींच वर्सां वांगडी आशिल्लो (१९६२-६६). ताचो 'उर्मी' हो कथांझेलो उजवाडाक आयला. तशेंच 'Aspects of socialist policy' (१९६९) हो समाजवादी विचारांवयलो ग्रंथ ताणें बरयलो. तेभायर तरेकवार नेमाळ्यांतल्यान ताणें उपाट ललित-लेखन केलां. ताचेर दोन गौरवग्रंथ उजवाडाक आयल्यात. तशेंच ताचीं व्याख्यानां, पत्रां आनी हेर ललित लेख 'एस्. एम्. जोशी, व्यक्ती, वाणी लेखणी' ह्या नांवान उजवाडाक आयल्यात (१९६४).

एक सादो, प्रामाणिक आनी तळमळीन वावुरपी कार्यकर्तो म्हूण एसेम नांवाजिल्लो आसून वेगवेगळ्या अन्यायांआड पोटतिडकीन झुजपाक ताणें सदांच फुडाकार घेतलो. ताची साठी १९६४ त मनयली त्या वेळार ताच्या बऱ्या मागप्यांनी ताका एक लाख रुपयांची थैली दिल्ली. तिचो उपेग कायकर्त्यांखातीर जावचो म्हूण ताणें सोशॅलिस्ट प्रतिष्ठानांची थापणूक केली.

१९७७ त जनता सरकार सत्तेर आयलें तेन्ना 'एसेम्' महाराष्ट्र जनता पक्षाचो अध्यक्ष आशिल्लो. १ ऑगस्ट १९८६ दिसा 'एसेम्' हाका लोकमान्य टिळक सन्मान इनाम फाव जालें. पुणे विद्यापीठान ताका डि. लिट्. किताब दिलो. 'मी- एस्. एम्.' ही ताची आपजीण (१९८४) ताच्या ८० व्या वाडदिसानिमतान उजवाडाक आयली. एसेम जोशी हाका कॅन्सरच्या दीर्घकाळाच्या दुयेंसाउपरांत मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**जोशी, सुधाबाई महादेव:** (जल्मः १४ जानेवारी, १९१९, प्रियोळ-फोंडें).

गोंयची सुटके झुजारी. घोवाचें नांव पंडित महादेवशास्त्री जोशी. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेची ती वांगडी आसली. १९५५ वर्सा ती हे संघटनेची अध्यक्षा म्हूण वेंचून आयली. ६ एप्रिल १९५५ दिसा 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचें म्हापशां वाठारांत सत्याग्रही अधिवेशन आयोजित केल्लें. ह्या अधिवेशनांत वांटो घेवचे पासत ती सुटके झुजारी अंबिकाबाई बांदेकार हिचेवांगडा लिपचोरयां शीम हुपून सांखळे मार्गान म्हापशां आयिल्ली. जेन्ना अधिवेशनाक सुरवात जाली तेन्ना पोर्तुगेज सैनिकांनी येवन तिका हेर सत्याग्रहीं वांगडा धरली आनी बरोच मार दिलो. पोर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया (Territorial Military Tribunal) मुखार चवकशे उपरांत तिका धा वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ते भायर दंड भरूंक लायलो वा दंड भरपाये बदला आनी दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिली. तिका धरिल्ल्यान सगळ्या देशभर बोवाळ जाल्लो. तिणें चार वर्सां मडगांव अनी केपेंच्या बंदखणींत ख्यास्त भोगली.

१६ मे १९५९ वर्सा बंदखणीसावन तिची सुटका जाली. १९७४ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तिचो भोवमान केलो. १८ जून १९८२ दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या तिच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**जोसेफसन, ब्रायन डेव्हिड:** (जल्मः ४ जानेवारी १९४०, कार्डिफ-वेल्स)

नामनेचो ब्रिटीश भौतिकीविज्ञ.ताणें केंब्रिज विद्यापीठाची एम्.ए., पीएच्.डी. (१९६४) मेळयली. १९७२ सावन तो केंब्रिज विद्यापीठाच्या भौतिकी विभागांत प्रपाठक आनी कॅव्हॅंडिश प्रयोगशाळेंत संशोधनाचो उपसंचालक आसा.

दोन अतिसंवाहक (Superconductive) माध्यमांचे मदीं विद्युत् निरोधकाचो (insulator) पातळ पड्डो आसल्यार त्या पड्ड्यांतल्यान सुरंग परिणामाक (tunnel barrier) लागून इलेक्ट्रॉनांच्यो जोडयो आरपार वचूंक शकतल्यो म्हळ्यारूच विद्युत् प्रवाह वचूंक शकतलो, असो सिध्दांत पुंजयामिकीवयल्यान (quantum mechanics) जोसेफसन हाणें मांडलो. ह्या आविश्काराक 'जोसेफसन परिणाम' अशें म्हण्टात. १९७३ चो भौतिकीखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार जोसेफसन, लिओ एसाकी आनी ईव्हार गाइएव्हार हांचे मदीं वाटून गेलो. अतिसंवाहक पदार्थांतल्या इलेक्ट्रॉन सुरंग परिणाम ह्या आविश्काराविशींच्या वेगवेगळ्या सोदांखातीर ताका एक पुरस्कार फाव जालो.

जोसेफसन लंडनची रॉयल सोसायटी (१९७०) आनी केंब्रिजच्या ट्रिनिटी कॉलेजचो १९६३ सावन फेलो आसा. रिसर्च कॉर्पोरेशनचो पुरस्कार (१९६९) आनी फ्रिट्स लंडन पुरस्कार (१९७०) तशेंच हेर कितलींशींच पदकां ताका फाव जाल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**जोहार:** शीलाचे रखणेखातीर बायलां उज्यांत प्रवेश करून जो आत्मत्याग करतात, ताका जोहार अशें म्हण्टात. जौहर वा जोहार हाचो अर्थ अग्निप्रलय असो आसा. ह्या अर्थान हो शब्द ज्ञानेश्वरींत (१०.१४५/११.६०/११.४३२) आनी ताचेउपरांत प्राचीन मराठी साहित्यांत खुबदां आयला. पेटत्या होमखणांत प्रवेश करून आत्मत्याग करपाचे हे पध्दतीक फुडें 'जोहार' हें नांव पडलां आसतलें. राजस्थानच्या इतिहासांत असल्या जोहाराचीं वर्णनां वाचपाक मेळटात.

जोहारची प्रथा राजस्थानांत अशी आशिल्लीः आपल्या प्रदेशाचेर परकीय घुरी जाली आनी तातूंत आपलो पराभव लागीं आयलो, म्हण्टकच राजपूत बायलां दुस्मानाच्या हातांत सांपडून आपली विटंबना जावंची न्हय म्हूण शील राखणेचे भावनेन रासवळ रितीन उज्यांत प्रवेश करून देहत्याग करतालीं आनी राजपूत झुजारी केसरी पोशाख घालून दुस्मानाचेर तुटून पडटाले आनी झुजामळार वीरमरण पतकरताले.

जोहार प्रथा फकत राजपुतांत प्रचलित आशिल्ली अशें म्हणप समा न्हय. राजपूत ह्या नांवाचो उदय जावंचे पयलीं शेंकड्यांनी वर्सां आदीं जोहारची प्रथा अस्तित्वांत आशिल्ली अशें इतिहासीक पुराव्यावरखीं दिसून आयलां. सिकंदराचें नौदल सिंधू न्हंयेतसून परत वता आसतना हिंदू सैन्यान तांचेआड प्राणांतिक झूज केलें. ह्या झुजांत जैताची आस दिसनाशी जातकच त्या सगळ्या सैनिकांनी आपल्या घरादारांक उजो लायलो आनी तांच्या बायलांनी आपल्या भुरग्यांसकट ह्या पेटत्या उज्यांत उडयो घेवन आत्मत्याग केलो, अशें कर्टिस नांवाच्या युरोपियन ग्रंथकारान बरोवन दवरलां. इतिहासांतलो हो पयलो जोहार इ.स.प. चवथ्या शेंकड्यांत घडलो.

इ.स. ७११ त महंमद बिन कासीम हाणें सिंधाचेर घुरी घाली. सिंधचो राजा दाहर ह्या झुजांत झुजतना सोंपलो. दाहराक झुजांत मरण आयलां ही खबर कळनाफुडें ताचे राणयेन आनी शेंकड्यांनी हिंदू बायलांनी पेटत्या होमखणांत उडयो घेवन जोहार केलो.

राजपुतांच्या इतिहासांत जोहारचे प्रसंग पांच वेळा आयल्यात. तातूंतले पयले दोन प्रसंग जैसलमेर हांगा आनी उपरांतचे तीन प्रसंग चितोडांत घडले. इ.स. १२९४ त महबूबखान नांवाच्या दिल्लीच्या सुलतानाचो खजिनो जैसलमेरच्या राजपुतांनी लुटलो. देखून, त्या सुलतानान जैसलमेरचेर घुरी घाली. राजपुतांक हे घुरयेक तोंड दिवप अशक्य जाल्ल्यान तांणी आपल्या बायलांक जोहार करपाक सांगलें. राजपूत वीरांनी झुजता आसतना झुजामळार वीरमरण पत्करलें आनी ताच्या बायलांनी रोखडोच जोहार केलो. ह्या जोहारांत वट्ट चोवीस हजार

बायलांनी आत्मसमर्पण केलें, अशें कर्नल टॉड हाणें म्हळां. ह्या उपरांत फुडल्या धा बारा वर्सांनी जैसलमेरचो दुसरो जोहार घडून आयलो.

इ.स. १३०३ त चितोडचो पयलो जोहार जालो. चितोडची राणी पद्मिनी हिची इत्सा धरून अलाउद्दीनान चितोडचेर घुरी घाली; तेन्ना चितोडची राखण करप अशक्य आसा, अशें दिसून येतकच गडावयल्या राजस्त्रियांनी आनी हेर पंदरा हजार बायलांनी केसरी वस्त्रां न्हेसून जोहार केलो. जे सुवातेर ह्या राजपूत सतीसाध्वींनी आत्मार्पण केलें, ते सुवातेर तांचे पवित्र रक्षेक कोणाचोच स्पर्श जावंचो न्हय, म्हूण एक मोटो नाग थंय सदांच राखण करीत आसता, अशी आख्यायिका आसा. पद्मिनीचो जोहार इतिहासांत नामनेक पावला.

हाचे उपरांत दुसरो जोहार राणा संग हाची विधवा बायल कर्मवती हिचे मुस्तींत बहादुरशहान चितोडचेर घुरी घाली, तेन्ना घडून आयलो. ह्या जोहारांत तेरा हजार राजपूत बायलांनी आत्मसमर्पण केलें. चितोडचो तिसरो जोहार अकबराचे मुस्तींत घडून आयलो.

महाराष्ट्रांत म्हार आनी दलित लोकांनी उच्चवर्णियांक अभिवादन करतना 'जोहार' अशें म्हणपाची पध्दत आशिल्ली. ही पध्दत बरीच पोरनी आसा. यादवकालीन मराठी वाङ्मयात जुहारणे म्हळ्यार नमस्कार करप ह्या क्रियापदाचीं कांय रुपां मेळटात. राजाक वंदन करप ह्या अर्थानूय 'जोहार' हो शब्द संत-साहित्यांत आयला. संत एकनाथान एक भारुडांत म्हळां (गा. पं. ३, अभंग ३८६७).

जोहार मायबाप जोहार
मी सकळ संतांचा महार

जोहार हो शब्द 'जयहरी' ह्या शब्दापसून जाला अशें मत कांय भाशातज्ञांनी परगटायलां. आयच्या काळांत जमनीक हात लावन जोहार करपाची पध्दत कांय जातींपुरतीच मर्यादीत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**ज्यू समाजः** पॅलेस्टाइनांत उदयाक आयिल्ली हिब्रू वा ज्यू लोकांची संस्कृती. 'यहुदी' ह्या नांवानूय ज्यू लोकांक वळखतात. इ.स.प. आठव्या शेंकड्यांत बेंजामिन आनी ज्यूडा ह्या दोन जमातींनी 'ज्यूडा' राज्याची थापणूक केली. थंयच्या नागरिकांक 'ज्यूडियन' म्हण्टाले. ताचेवयल्यानूच फुडें 'ज्यू' ही संज्ञा तयार जाली आसूंक जाय. इ.स. १३२ त रोमन सम्राट हेड्रिएनस हाणें ज्यू धर्माचेर बंदी घाली. तेन्नासावन सुमार अठराशें वर्सांमेरेन म्हळ्यार दुसऱ्या म्हाझुजाचे अखेरमेरेन ज्यू समाजाक आपली अशी आवयभूंय नाशिल्ली.

ज्यू संस्कृताय ही ईजिप्त, ॲसिरिया, सुमेरिया, चीन, भारत ह्या प्रदेशांतल्या समाजांनी निर्मिल्ल्या, विश्वरुपी संस्कृतायेचे तोडीची आसा अशें मत युरोपीय इतिहासकारांच्या ग्रंथांनी मेळटा. ज्यू संस्कृतीची निश्चितपणान केन्ना सुरवात जाली, हाची म्हायती मेळना; पूण इ.स.प. २००० वर्सांसावन ज्यू लोकांची वसणूक पालेस्तीन आनी लागींच्या वाठारांत आशिल्ली.

**भुगोलीक स्थानः** ज्यू लोकांचो पूर्विल्ल्यो इतिहास जंय घडलो, ती पॅलेस्टाइनची भूंय आकारान ल्हान आसा. शेत आनी उदका पुरवण जातली इतलो भरपूर पावस फाव त्या प्रमाणांत हांगा पडना. उबाळाच्या दिसांनी नेटान पडपी पावसाचें उदक सांठेवन दवरून ल्हानमोट्या कालव्यांतसून सगळ्याक पावयताले, अशी नोंद इ.स. पयल्या शेंकड्यांतलो बरोवपी जोसीफस हाणें केल्या. ही नंदनवनासारकी दिसपी भूंय दीर्घ कश्टांतल्यान उबी जाली, अशें ताणें फुडें म्हळां. झुजांक लागून ह्या यत्नांत खंड पडटकच जमीन पडिंग जाली आनी वाळवंटाचो विस्तार उदेंतेकडल्यान अस्तंतेक वाडलो.

पालेसिनची भुगोलीक अवस्था शांतताय आनी सवस्तकाय हांकां व्हडलीशी अनुकूल नाशिल्ली. आशिया आनी आफ्रिका हातूंतल्या चड करून टायग्रिस- युफ्रेटीस न्हंयांच्या देगणांतलो समाज आनी नाइल देगेवयलो ईजिप्त हांकां जोडपी मार्ग पॅलेस्टाइनांतल्यान वतात. तशेंच अस्तंत आशियांतल्यान भूमध्य समुद्रमार्गान युरोपाकडेन वचपी सरळ मार्ग पॅलेस्टाइनांतल्यानूच वता. हाकालागून थंयचो वेपारी मार्ग आनी शारां हांचेर ताबो मेळोवपाखातीर एकसारको संघर्श चलिल्लो दिसता. ईजिप्त, बॅबिलॉनिया, ॲसिरिया, हिटाइट ह्या पूर्विल्ल्या सत्तांनी ह्या भागाचेर आपलो शेक दवरपाचो यत्न केलो. पूर्विल्ल्या काळांत हें एक मुखेल झुजामळ आशिल्लें. आपल्या भुगोलीक स्थानाक लागून ही 'फुडाराची भूंय' (प्रॉमिसड लँड) वा 'पवित्र भूंय' (होली लँड) सदांच संघर्शांत सांपडत गेली.

**इतिहासीक साधनां:** ज्यू लोकांची म्हायती ज्या साधनांवरवीं मेळटा, तातूंत बायबलांतलो 'पोरनो करार' सगळ्यांत म्हत्वाचो आसा. त्या ग्रंथाच्या वेगवेगळ्या भागांत ज्यू लोकांची भोंवडी, तांचे राजा आनी राजकारण हांचेविशीं बरीच म्हायती मेळटा. तेभायर कांय पूर्विल्ल्या शिलालेखांत आनी मातयेच्या मुद्रांनी ज्यूंविशीं म्हायती मेळटा. हामुराबीच्या काळांतल्या मातयेच्या मुद्रांनी अरबस्तानांतल्यान बॅबिलॉनावटेन हिब्रू लोक येताले, असो उल्लेख आसा. अमार्ना मातयेच्या मुद्रांनी पॅलेस्टाइनाचेर जाल्ले एके मोटे 'हिब्रू' घुरयेचो उल्लेख आसा. हाचेफुडलो उल्लेख दुसरो रॅमसीझ हाच्या काळांतलो जावन आसा. हातूंत ईजिप्तांत कश्टकारी काम करपी हिब्रू लोकांचो उल्लेख आसा. ईजिप्तांत ज्यू लोक गुलामगिरींत आशिल्ले, असो उल्लेख रॅमसीझच्या लेखांत आसा, अशें म्हण्टात. हे उपरांतच्या काळांत ॲसिरियन-खाल्डियन (नव-बॅबिलॉनियन) आनी ईजिप्शियन लेखांतसून ज्यूडा आनी इझ्राएल हांचेकडेन राजकीय संबंदाचे, तांकां जिकिल्ल्याचे, नश्ट केल्ल्याचे वा हद्दपार केल्ल्याचे जायते उल्लेख मेळटात. हीरॉडोटस, बेरॉसस हांच्या अहवालांत ह्या लोकांची थोडीभोव म्हायती आयल्या, पूण ती सामकी त्रोटक आनी असंबध्द आसा. जोसीफस ह्या ज्यू इतिवृत्तकारान पयल्या शेंकड्यांत रचिल्ल्या आपल्या इतिहासवृत्तांत ज्यू राश्ट्राचो सामको सुरवातीचो इतिहास दिला. तेभायर उत्खननांत मेळिल्ल्या अवशेशांतल्यान पॅलेस्टाइनांत जळींमळीं ज्यू लोकांच्यो वसाहती कश्यो जायत गेल्यो, हाची तशेच तांचो उदय आनी अस्त हाचेविशींय थोडी म्हायती मेळटा.

**राजकी इतिहासः** ज्यू लोक पोलेस्तिनांत परप्रांतांतसून आयले, हें जरी सर्वमान्य आसलें तरी ते थंय केन्ना आयले आनी कशे आयले हाचेविशीं मतभेद आसात. एक मत परंपरागत इतिहासाक प्रमाण मानपी आसा. बायबलच्या मताप्रमाण हिब्रू राश्ट्राचो जनक अब्राहम हो उदेंतेकडल्यान आपल्या लोकांक घेवन पॅलेस्टाइनांत आयलो. तो उत्तर अरबस्तानांतल्या हेरात हांगाच्यान आयलो अशें एक मत आसा, जाल्यार दुसऱ्या मताप्रमाण तो सुमेरियांतल्या अर हांगाच्यान आयलो आसूंक जाय. ताच्या म्हळ्यार सामक्या सुर्वेच्या हिब्रू पंगडांचो येवपाचो काळ इ.स.प. २००० वा इ.स.प. १७५० च्या लागसार आसतलो अशें म्हण्टात. अब्राहमचो पणतू जोसेफ ईजिप्तांत गेलो आनी थंयच्या राजदरबारांत उच्च पदाचेर पावलो; पूण कांय काळाउपरांत ताच्या सगळ्या वंशजांच्या नशिबांत गुलामगिरी आयली. फुडें मोझेस (इ.स.प. सुमार १२००) हाणें ज्यू लोकांक गुलामगिरींतसून मुक्त केले आनी तांकां पॅलेस्टाइनांत परत हाडले, अशी एक आख्यायिका आसा. ज्यू लोक हिक्सॉस लोकांच्या वेळार ईजिप्तांत आयले; दुसरो रॅमसीझ हाणें तांचेर गुलामगिरी लादली आनी ते उपरांत थोड्याच काळांत मोझेस हाणें तांकां मुक्त केले, अशें जोसीफसान बरयलां. हिक्सॉस लोकांची ईजिप्तावयली घुरी पॅलेस्टाइनांतल्यानूच फुडें गेली. तेन्ना ह्या पंगडांवांगडा कांय ज्यू लोकूय ईजिप्तांत गेले आसतले अशें म्हण्टात. तशेंच हिक्सॉस लोकांचो पडाव जातकच ज्यू लोकांक वायट दीस येवप स्वभावीक आशिल्लें. बरेच दीस हालांत, कश्टांत काडटकच हे ज्यू लोक मोझेसच्या फुडारपणाखाल परत पॅलेस्टाइनांत आयले.

मोझेसच्या काळाविशीं निश्चित म्हायती मेळना. पोरन्या करारप्रमाण इ.स.प. १३००-१२०० ह्या काळांत मोझेस हाणें ईजिप्ताच्या चपक्यांतल्यान ज्यूंक वाटायले आनी देवान तांच्या तोंडांतल्यान कायदो

आनी धा धर्माज्ञा वितरायल्यो. ताच्या मरणाउपरांत ताचें उरिल्लें कार्य जॉस्यूई हाणें पुराय केलें.

दुसरें मत म्हळ्यार, ज्यू लोक पॅलेस्टाइनांत येवपाचो काळ इ.स.प. १५०० ते १४०० इतल्या सुमाराक आसतलो. अरबस्तानांतल्यान भायर पडिल्ल्या ज्यूं मदले कांय ज़ाण वायव्येवटेन गेले आनी पॅलेस्टाइनांत स्थायिक जाले. दुसरो पंगड नैर्ऋत्येचे दिकेन ईजिप्तांत गेलो. इ.स.प. १२०० च्या सुमाराक ईजिप्तांत राविल्ल्या ज्यू लोकांनी ईशान्येवटेन मोहीम काडून पॅलेस्टाइनाचेर घुरी घाली. ह्या दुसऱ्या मताक जेरिको, शीकम, जेरुसलेम हांगाच्या उत्खननांतल्यान आनी अमार्ना लेखांतसून आदार मेळटा.

मोझेसान हाडिल्ले ज्यू आनी पॅलेस्टाइनांत पयलींच स्थायिक जाल्ले ज्यू, हांचो व्हडलोसो संबंद फुडें आयलोना. पॅलेस्टाइनांतल्या ज्यूंची संस्कृताय काननाइट संस्कृतायेचेर आदारिल्ली आशिल्ली. मोझेसच्या ज्यूंनी ईजिप्शियन संस्कृतायेचीं आंगां आत्मसात केल्लीं. हाका लागून दोन स्वतंत्र संस्कृतीक आनी राजकी गट उत्पन्न जाले आनी ह्या भेदांतल्यानूच फुडें ज्यूडा आनी इझ्राएल हीं दोन स्वतंत्र राज्यां निर्माण जालीं, अशें कांय इतिहासकार मानतात. तेन्ना खरें किदें घडलें हें सांगपाक खास पुरावो मेळना. जी इतिहासीक म्हायती मेळटा ती त्रोटक आनी विसंगत आसा. बाराव्या शेंकड्यांत ज्यूंचें आगमन पुराय जालें आनी इझ्राएलचे बारा पंगड थंय स्थायिक जाले.

इ.स.प. १२०० च्या सुमाराक ईजिप्तच्या शेकातळा आशिल्ले फिलिस्तीन लोक स्वतंत्र जाले. तांणी आपलें राज्य पॅलेस्टाइनभर पातळावपाचे यत्न सुरू केले. देखून, ह्या वाठारांत सत्ताधारी आशिल्ल्या हिब्रू पंगडांवांगडा तांचो संघर्श जालो. फिलिस्तीन लोक सुसंस्कृत आशिल्ले, तशेंच खडेगांठ झुजारीय आशिल्ले. हिब्रू पंगड राजकी नदरेन असंघटित आशिल्ले. तशेंच शेतकाम आनी मेंढरां पोसपाचो वेवसाय करपी ह्या समाजाची झुजपाची वृत्ती क्षीण जाल्ली. हाचे उरफाटें फिलिस्तीन लोक संघटित आशिल्ले आनी तांचें शस्त्रबळ प्रभावी आशिल्लें. इ.स.प. १०८० च्या सुमाराक फिलिस्तीन सैनिकांनी शायलो हो गांव जिखलो. तांचे घुरयेचो नेट जसो जसो वाडत गेलो, तसो तसो हिब्रू समाजूय अदीक संघटित जावपाक लागलो. इ.स.प. १०१५ च्या सुमाराक तांणी एकाच राजाचें फुडारपण पतकरलें आनी 'राजा' ही संस्था निर्माण जाली. ह्या पयल्या फुडाऱ्याचें नांव सॉल. सुरवातीच्या कांय चकमकींनी सॉलान आक्रमकांक धांवडावन घाले. ताणें आपल्या मुलखाचे राखणेखातीर जेरुसलेमाचे उत्तरेक कांय अंतराचेर एक किल्लो बांदलो आनी हांगाच आपलें मुखेल ठाणें दवरलें. तरीकूय फिलिस्तीन लोकांनी ताचो गिल्बो पर्वतांनी जाल्ले लडायेंत पराभव केलो आनी तातूंत ताका मरण आयलें. हिब्रू जमातींक एका राजछत्रासकयल हाडपी पयलो राजा म्हूण ज्यू इतिहासांत सॉल हाका म्हत्वाची सुवात आसा.

सॉलाच्या मरणाउपरांत ताचो चलो जॉनाथन हाका गादयेर बसोवपाचो यत्न जालो. तरीकूय बापायफाटल्यान चल्याकडेन दायज म्हूण राजपद दिवचेपरस एकाद्र्या लायक मनशाकूच अडचणीच्या काळांत राजपद दिवचें, अशें ज्यू लोकांनी थारायलें. देखून सॉला उपरांत ताचो प्रतिस्पर्धी डेव्हिड (इ.स.प. सुमार १०१६-९७२) हो राजा जालो. फिलिस्तीन राकेसाआड झूज करून ताका जितोच मारपी धाडसी वीर म्हूण ताची नामना आशिल्ली. डेव्हिडान पयलीं जेरुसलेमचेर ताबो मेळयलो आनी मागीर फिलिस्तीन आक्रमकांचेर जैत मेळयलें. जेरुसलेम हातासतकच घेतकच डेव्हिडान सद्याचो ट्रान्स-जॉर्डनचो प्रदेश आपल्या राज्याक जोडलो. पूण ह्या भुगोलीक राज्यविस्तारापरस डेव्हिडची खरी कामगिरी म्हळ्यार सॉलान सुरू केल्ली राज्ययंत्रणा आनी समाज संघटना ताणें बळिश्ट केली. ताच्या घराण्याचो शेक सुमार चारशें वर्सांमेरेन तिगून आशिल्लो.

सॉल हो बेंजामिन नांवाच्या ल्हान जमातींतलो आशिल्लो. ताची सत्ता मानपाक पयलीं हेर जमाती तयार नाशिल्ल्यो, पूण डेव्हिड हो ज्यूडा जमातीचो आशिल्लो. ज्यूडा जमात खूब व्हड आशिल्ली आनी हिब्रू राश्ट्रांत तिका आदरणीय अशें वजन आशिल्लें. सबंद दक्षिण पॅलेस्टाइनांत हे जमातीचे लोक पातळिल्ले आशिल्ल्यान हो प्रदेश डेव्हिडान सहज वश केलो. डेव्हिडच्या चल्यान केल्लें बंड आनी हेर एक दोन बंडां सोडलीं, जाल्यार राजसत्ता आतां भक्कम बुन्यादीचेर उबी आशिल्ली. नक्की काळ सांगप कठीण आसलें तरी इ.स.प. १००० च्या सुमाराक डेव्हिडान आपली सत्ता प्रस्थापित करपाक हीब्रन हांगाच्यान सुरवात केली आनी फुडें सुमार चाळीस वर्सां राज्य केलें.

डेव्हिडान मेळयिल्ल्या राज्यांत सुनियंत्रित शासन तयार करपाचें काम ताचो पूत सॉलोमन (इ.स.प. सुमार ९७२-९३२) हाणें केलें. सॉलोमन हाची वेगवेगळ्या मळांवयली कर्तबगारी म्हत्वाची आसा. राज्य मेळोवप, तें तिगोवप आनी प्रजेचे अर्थीक उदरगतीखातीर वावरप, हें सगळें ताणें साधलें. ताणें जेरुसलेमभोंवतणची तटबंदी बळकट केली आनी राज्यांत जळींमळीं किल्लेकोट उबारले. कारभाराखातीर राज्याचे बारा प्रांत केले. खंयचेच जमातीक एकाद्र्या प्रांतांत उंचेली सुवात मेळची ना हाची जतनाय घेतली. राखण आनी प्रशासन वेवस्था बळकट जातकच ताणें वेपारांत लक्ष घालें. वेपार आनी राजकारण एक करपाच्या हेतान लागसार आशिल्ल्या ल्हानव्हड प्रदेशांकडेन तशेंच ईजिप्तासारख्या बळिश्ट देशांकडेन दाट संबंद जोडले.

फिनिशियाचें फुडारपण करपी टायरच्या हायरॅम राजाच्या, तशेंच ईजिप्तच्या बाविसाव्या वंशाचो संस्थापक पयलो शीशाँक हाचे चलयेकडेन ताणें लग्न केलें. फिनिशियन वेपाऱ्यांच्या पालवान ताणें सागरी वेपारांत वांटो घेतलो आनी तुर्कस्तानाच्या किनाऱ्यावयल्या तार्शिशमेरेन ताचे वेपारी पावले. ईजिप्ताचो पालव घेवन ताचीं जहाजां तांबड्या समुद्रांत येवप-वचप करपाक लागलीं. फिनिशियन वेपारी पंगड खुश्कीच्या मार्गान अरबस्तानांत वचचे, हेखातीर यत्न करून थोडेशे आडवाटेक आशिल्ल्या जेरुसलेमाक ताणें वेपारी पेठेचें स्वरुप प्राप्त करून दिलें. इझ्राएलच्या मुलखांत उत्पन्न जावपी धान्यां आनी फळां निर्यात करून ताच्या बदलांत टायर आनी सायडन हांगाचें कंवचेचें सामान, धातुकाम, कपडो हांची आयात जावपाक लागली. ईजिप्शियन राजकुंवरीकडेन लग्न केल्ल्यान ताच्या राजकारणाक आनी अर्थकारणाक मदत तर जालीच; पूण तेभायर ईजिप्शियन दरबारांतलें रितरिवाज लेगीत आयले. डेव्हिडान आपल्या राजदरबाराक थीक्ष राजदरबाराचें स्वरुप हाडलें.

सॉलोमनच्या मरणाउपरांत ताचो चलो रीअबोअम (इ.स.प. सुमार ९३१-९१३) गादयेर बसलो. तेन्ना पयलींचे राजवटींत बंडखोर म्हूण हद्‌पार जाल्लो उत्तर इझ्राएलचो फुडारी जेरबोअम (इ.स.प. ९३१-९१०) हाका ईजिप्तान फाटबळ दिलें. हाणें उबारिल्लें बंड यशस्वी जावन इझ्राएलच्या दक्षिणेकडल्या प्रदेशाचेर रीअबोअमचो शेक सुरू जालो.

उत्तरेची राजधानी शीकम (नॅब्लस) हांगा आशिल्ली. दक्षिणेच्या राज्याक ज्यूडा आनी उत्तरेच्या राज्याक इझ्राएल अशीं नांवां मेळ्ळीं. हाचे फुडलो दोनशें वर्सांचो ज्यूंचो इतिहास म्हळ्यार ह्या दोन राज्यांतल्या एकामेकांभितर चलिल्ल्या संघर्शाची कथाच जावन आसा. जेरबोअमच्या बंडाच्या वेळार ह्यूरम हाणें गॅलिली प्रांत हातासलो. ज्यूडा ह्या उत्तरेकडल्या प्रांतान जेरबोअमच्या फुडारपणाखाल बंड करून आपले स्वतंत्र सत्तेची थापणूक करतकच थोड्याच दिसांनी जेरुसलेमचेर व्हडलें संकश्ट आयलें. ईजिप्तच्या शीशाँकान घुरी घालून हें शार ताब्यांत घेतलें आनी सॉलोमनान व्हडा कश्टांनी जमयल्ली संपत्ती लुटली; तशेंच येहोवाचें मंदिर लुटलें. ताका लागून जेरुसलेमचो संपन्न समाज मातयेभरवण जालो. शीशाँक परत गेलो, तरी उपरांतचो कितलोसोच काळ ज्यूडा ईजिप्तच्या मांडलिक राज्यासारकेंच उरलें. राजाचें फुडारपण दुबळें आसुनूय ज्यू लोकांनी वेपार-उद्देगासारके वेवसाय पयलींच्याच नेटान परत सुरु केले. उत्तरेकडल्या इझ्राएलाच्या थोड्या राजांनी ह्या दोन ज्यू राज्यांक एकठावपाचो बरोच यत्न केलो. एहॅब (इ.स.प. ८७४-८५२) ह्या इझ्राएलच्या राजान आपले चलयेचें लग्न ज्यूडाच्या

युवराजाकडेन करून कबलात केली. तरीपूण खुद्द एहॅबच्याच राज्यांत ताच्या मरणाउपरांत क्रांती जाली आनी जीह्यू (इ. स. प. ८४१-८१४) नांवाच्या एका धर्मकोल्ली मनशाच्या हातांत राजसत्ता गेली. ताणें ज्यूडाचेर घुरी घाली. थंयचो राजा आनी राजकुळांतल्या मनशांक जिवेशीं मारले. पूण अॅथलाया राणयेचे (एहॅबची चली) सावत्र चलयेन व्हडा हुशारेन हे कत्तलींतल्यान आपल्या भुरग्याक वाटायलो. ताणें अकस्मात सत्तांतर करून जीह्यूउपरांत ज्यूडाचो मूळ राजवंश परत गादयेर हाडलो.

तेउपरांत शंबर वर्सां म्हत्वाची अशी घडणूक घडलीना. इ. स. प. ७३५ च्या सुमाराक अॅसिरियाकडेन कबलात केल्यान ज्यूडाचें राज्य वाटावलें; पूण फुडें सेनॅकरिबान जेरुसलेमचेर जैत मेळयलें. हे उपरांत शंबर वर्सां ज्यूडान अॅसिरियाकडेन बरेपण दवरलें. इ. स. प. ६२५ त असुरबनिपाल हाच्या मरणाउपरांत ज्यूडान स्वतंत्र जावपाचो यत्न केलो; इतलेंच न्हय, तर जॉस्यूई हाणें परत एकदां पॅलेस्टाइनाचेर आपलें नियंत्रण बसोवपाची खटपट सुरू केली. ताका ईजिप्तान विरोध केलो आनी तातूंतसून उप्राशिल्ले लडायेंत जॉस्युईक मरण आयलें. कांय काळ ईजिप्ताचें आधिराज्य हांगा आशिल्लें. ताचो शेवट बॅबिलॉनचो दुसरो नेबुकॅड्नेझर हाणें केलो.

इझ्राएल हें राज्य ज्यूडापरस आकारान व्हडलें आनी संपन्न आशिल्लें. थंय अंतर्गत शांतताय चड काळ तिगून उरलीना. जायतीं राजघराणीं थंय सत्तेर आयलीं. तातूंतलो ऑम्रयाय हो राजा बळिश्ट जालो. हाणें राजधानी शीकम हांगाच्यान हालोवन ती सामेअरिया ह्या उत्तरेकडल्या शारांत व्हेली. ताचो चलो एहॅब हाणें शेजारच्या राज्यांकडेन दाट संबंद जोडपाचे यत्न केले आनी ज्यूडा आनी टायर हांचेवांगडा लग्नाचे संबंद जोडले. हाच्यो परकीय बायलो मुर्तीपूजक आसात, म्हूण कांय धर्मकोल्ली लोकांनी प्रजाजनांक तांचेआड चिथावणी दिली. जीह्यून क्रांती केली आनी एहॅबचो वंश नश्ट केलो. दमास्कसच्या राजान ताचे व्हडले प्रांत काबीज केले. अॅसिरियन राजांक खंड भरून इझ्राएल राज्य कशेंय करून तग धरून राविल्लें.

दुसरो जेरबोअम हाणें दमास्कसकडल्यान आपले प्रदेश परत मेळयले, तरी अॅसिरियन सत्तेची घुरी थातारप कठीण आशिल्लें. इ.स.प. ७३४ त इझ्राएलाचेर परकी सत्ता आयली आनी इ.स.प. ७२२ त, होशियाच्या (इ.स.प. ७३०-७२२) बंडाउपरांत हें राज्यूच बरखास्त केलें. सामेअरिया हांगा अॅसिरियन राज्यपाल नेमलो आनी अॅसिरियन राजांनी तांचे सदचे प्रथेप्रमाण पंचवीस हजार इझ्राएली ज्यूंक बंदिस्त करून अॅसिरियांत धाडून दिले. जेरुसलेमचे दुसरे घुरये उपरांत (इ.स.प. ५८९) पंदरा हजार ज्यूंक नेबुकॅड्नेझर हाणें धरून व्हेले. हाचेपयलींच इझ्राएलांतल्यान ताणें ज्यूंक धरून व्हेल्ले.

इझ्राएल राज्यांतल्या ज्यूंक अॅसिरियन राजांनी धरून व्हेले आसले, तरी त्या प्रसंगाक ज्यू इतिहासांत व्हडलेशें म्हत्व ना. पयले घुरयेउपरांत नेबुकॅड्नेझर फकत खंड घेवनूच परत आयिल्लो. पूण दुसरे फावट मात ताणें हो उपद्रव सासणाचोच बंद करपाच्या हेतान उपाय केले. कारागीर, गिरेस्त भाटकार, वेपारी, बुध्दिजीवी आनी सैनिक ह्या सगळ्यांक धरून व्हरपाची ताची येवजण आशिल्ली. शेतकारांक मात ताणें पीडापीड केली ना. धरिल्ले सगळे ज्यू बॅबिलॉनांत व्हरून सोडले. हातूंतले बरेच जाण बॅबिलॉनांत वेवसायिक जाले. कांय जाण थंयच स्थायिक जाले. तरीकूय कांय ज्यूंक मात आपले मायभुंयेंत परत वचपाची उपाट इत्सा आशिल्ली आनी खाल्डियन सत्तेचेर जैत मेळयल्यार तें शक्य जातलें, अशें तांकां दिसतालें. देखून इराणी सम्राट सायरस हाका तांणी उर्बेभरीत येवकार दिलो. तांची आशा सामकीच कोसळ्ळीना. सायरसान ज्यू लोकांक ज्यूदा आनी जेरुसलेमात परत वचपाक परवानगी दिली. हद्दपारीचो हो काळ म्हत्वाचो मानपाचें मुखेल कारण म्हळयार ज्यू लोकांचो बॅबिलॉनाचे संस्कृतायेकडेन आशिल्लो सामको लागींचो संबंद. ज्यू लोकांचो हाचे पयलींय हेरांकडेन संबंद आयिल्लो, तरी खुद्द बॅबिलॉनांतूच राविल्ल्यान तांकां कांय नव्या विचारांची वळख जाली. जेरुसलेमाक परत वतना तांणी हे नवे विचार आपल्या वांगडा व्हेले. हाच्या परिणामांतल्यान जेरुसलेमांतूच राविल्ले सनातनी ज्यू लोक तांकां आपले परस वेगळे आनी धर्मभ्रष्ट अशें मानपाक लागले. उत्तरेच्या सामेअरियांतल्या लोकांनी हेंच धोरण आपणायलें आनी हातूंतल्यानूच फुडें पंथभेद तयार जाले.

इराणी सम्राटांनी ज्यू लोकांक जेरुसलेमाक परत वचपाची परवानगी दिली. तेचप्रमाण ज्यूडा प्रांताचेर ज्यू राज्यपाल नेमले, येहोवाचें मंदिर परत उबारपाक मदत केली. बॅबिलॉनियांत म्हत्व मेळयल्या कांय ज्यू फुडाऱ्यांक उपरांतच्या काळांत ज्यूडाचे राज्यपाल नेमले. ह्या राज्यपालांनी अर्थीक, समाजीक आनी केन्नाय धर्मीक मळार बदल घडोवन हाडपाचे यत्न केले. ह्या सुधारणावादी प्रशासकांत नीअमाय आनी एझ्रा हे मुखेल आसले. हांच्या सुदारणांक सामेअरिआच्या रहिवाशांचो कडक विरोध आशिल्लो. तांणी जेरुसलेमचें धर्मीक फुडारपण न्हयकारलें आनी शीकम हांगाच्यान लागसार आशिल्ल्या गेरझिम दोंगरावयल्या आपल्या मंदिरांत स्वतंत्र पीठ उबारलें. अशे तरेन हद्दपारीच्या निमतान सुरु जाल्ले पंथभेद फुडें घट जायत गेले.

मागीर थोड्याच काळांत ज्यूंचें स्वतंत्र राजकी अस्तित्व रोखडेंच सोंपलें. अलेक्झांडरान इराणी साम्राज्याचो नाश करून ह्या प्रदेशाचेर ग्रीक सत्तेची थापणूक केली. उपरांत हो सगळो प्रदेश सिल्युसिडी राजांच्या ताब्यांत गेलो; पूण राजकी थिराय व्हडलीशी तिगलीना. ह्या प्रदेशांत रोमन साम्राज्याची थापणूक जावन लेगीत संघर्श चालूच आशिल्ले. सत्तासर्त करपी कितल्याशाच ल्हान गटांमदीं जेरुसलेमच्या ज्यूंचो आस्पाव आशिल्लो. आतां येहोवाच्या मुखेल पुरोयतांची सुवात सगळ्यांत श्रेश्ठ जाल्ली आनी तांकांच राजकी फुडारपण मेळटालें. ह्या पोरन्या संस्थानान स्वातंत्र्य मेळोवपाचे आनी तिगोवपाचे जे यत्न केले, तातूंत इ.स.प. दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या ज्यूडाच्या फुडारपणाखाल जाल्लें मॅकबीझचें बंड सगळ्यांत यशस्वी जालें.

इ.स.प. १६५ त ज्यूडान सिरियाच्या राजाचेर जैत मेळोवन जेरुसलेम हांगा ज्यू राज्याची थापणूक केली. ज्यूडा आनी तांचें दायज हांचो शेक जेरुसलेम आनी भोंवतणचो वाठार हांचेर सुमार शंबर वर्सां आशिल्लो. इ.स.प. ६६ त पाँपीन जेरुसलेमचेर घुरी घालून बारा हजार लोकांक जितेच मारले आनी थंयची राजसत्ता नश्ट केली. तरीकूय ज्यू लोकांनी परत तकली वयर काडपाचो यत्न केलो. ताका लागून हेड्रिएनस हाणें इ.स. १३२ त ज्यू धर्माचेरुच बंदी घाली. बंदीच्या आड ज्यू लोकांनी उठाव केलो. बारकोक्बा हाच्या फुडारपणाखाल इ.स. १३५ त रोमनांआड ज्यूंनी बंड केलें. पूण रोमनांच्या खडेगांठ बळग्याफुडें तांकां नमचें पडलें. ज्यू धर्माचें मेकळेपणान आचरण करप खुद्द पॅलेस्टाइनांत फुडें फुडें अशक्य जालें.

रोमनांनी पॅलेस्टाइनाचेर केल्ले घुरयेपयलींच जायत्या ज्यूंनी पॅलेस्टाइन सोडून हेरकडेन वसणूक करपाक सुरवात केल्ली. रोमनांचे घुरयेक लागून पॅलेस्टाइन पुराय नश्ट जालें आनी एकठांय रावन ज्यू राश्ट्र वा राज्य निर्माण करपाचो ज्यूंचो हावेस मातयेभरवण जालो. इतलें जावन लेगीत ज्यू आपल्या धर्माकडेन एकनिश्ठ आशिल्ले. जे थोडे पॅलेस्टाइनांत रावले, तांणी विद्यालयां काडलीं आनी ह्या विद्यालयांतसून ते ज्यू धर्म शिकोवपाक लागले. इ.स. २०० त 'मिशना' हो पयलो ज्यू धर्म आनी परंपरा हाचेवयलो ग्रंथ संकलित केलो. मध्य युरोपांतल्या ज्यूंक शेंकड्यांनी वर्सां क्रिस्ती लोकांकडल्यान छळ सोसचो पडलो. कांय देशांनी 'घेटो' ह्या नांवान वळखतात त्या वेगळ्या वसाहतींत तांकां रावचें पडलें. तांकां जमीन विकत घेवपाचे कायदेशीर हक्क नाशिल्ले वा स्वतंत्र रितीन एकाद्रो धंदो करपाक मेळनाशिल्लो. फ्रांस, जर्मनी आनी हेर देशांनी ज्यूंमदले कांय जाण व्हड लेखक जाले. सेनांत जायते विद्वान ज्यू तत्त्ववेत्ते जाले. तातूंत सॉलोमन इब्न गॅब्रीएल आनी ज्यूडा हाल्लेवी हे नामनेक पावले.

राजकी कारणांखातीर ज्यू लोक जरी संवसारभर शिंपडून गेल्ले तरी लेगीत आपले मायभुंयेत आपलें स्वतंत्र राश्ट्र आमचें, ही आस तांकां

लागिल्लीच. वंशभेदासारक्या समाजीक अन्यायांक तोंड दिवचें पडिल्ल्यान परकी राश्ट्रांचे जुलूमशाहीन केल्लो तांचो छळ सहन करचो पडिल्ल्यान स्वतंत्र राश्ट्राची तांची उमळशीक वाडतूच गेली. हाचो परिणाम म्हूण १८९७ त थीओडोर हेर्ट्झल ह्या लेखकान सुरू केल्ल्या स्वतंत्र राश्ट्राच्या आंदोलनाक युरोपांतल्या आनी हेर देशांतल्या ज्यूंचें वाडटें फाटबळ मेळत रावलें. ज्यूं लोकांची खर अशी इत्साशक्त, अखंड श्रम, चिवट वृत्ती आनी स्वतंत्रतायेचो ध्यास हाचें फळ म्हूण १४ मे १९४८ दिसा इझ्राएल ह्या ज्यूंच्या स्वतंत्र राश्ट्राची निर्मिती जाली.

**ज्यूविरोधवाद (अँटी-सेमिटिझम)**: ज्यू लोकांक उंचेली समाजीक सुवात मेळची न्हय आनी तांचे अर्थीक, राजकी आनी समाजीक हक्क मर्यादीत आनी सकयल्या पांवड्याचेर उरचे, म्हूण समाजांतल्या भौसंख्यांकांकडल्यान सदांच यत्न जातालें. काल्पनिक मानववंशभिन्नतेचेर आदारिल्ले पूर्वग्रह, ज्यू लोकांक जेजू क्रिस्ताचे मारेकार म्हूण पळोवपाची किरिस्तांव लोकांची नदर आनी प्रचलित राजकी-समाजीक- अर्थीक परिस्थिती ह्या कारणांक लागून वेगवेगळ्या देशांत, वेगवेगळ्या काळांत ह्या वादान खर रुप धारण केलां. 'अँटी-सेमिटिझम' ही संज्ञा १८७३ त व्हिल्हेल्म मार ह्या जर्मन वृत्तपत्रकारान सगळ्यांत पयलीं वापरली, तरी ह्या विरोधवादाचो इतिहास खूब पोरनो आसा. ज्यू लोक हे मानववंशाचे नदरेन कॉकेशियन वंशाचे सेमाइट हे उपशाखेचे आसात, ही कल्पना तांकां जावपी विरोधाच्या मुळाकडेन आसा, देखून ज्यू-विरोधवादाक 'अँटी-सेमिटिझम' अशें म्हण्टात. पूण संशोधकांच्या मताप्रमाण हे कल्पनेक कसलोच शास्त्रीय आदार ना.

मानववंश ही गजाल कुशीक दवरली जाल्यार संस्कृतीक नदरेन ज्यू लोक हे सगळ्या समाजांनी, सगळ्या काळांत वेगळे, अभेद्य आनी खाशेले उरतात, ही मात वस्तुस्थिती आसा. ज्यू धर्म ही ताची राजकी-समाजीक वेवस्था आनी संस्कृताय हांची मूळ बुन्याद जावन आसा. ताचे संस्कृतीक अलिप्ततेचें आनी समाजीक एकचाराचें हें एक मुखेल कारण जावन आसा, अशें म्हण्टात. ह्याच कारणाक लागून खंयच्याच समाजांत ते संस्कृतीक नदरेन समरस जावंक शकले नात. एकेश्वरवाद, आपल्या धर्मनिश्ठेनूच धर्तरेचेर सर्ग अवतरतलो हो भावार्थ आनी ही किमया सादपाखातीर देवानूच ज्यू लोकांक वेंचून काडल्यात, ही कल्पना आनी कर्मकांड हांकां लागून प्रतिकूल परिस्थितींत लेगीत ज्यू लोकांचो एकचार आनी आत्मविश्वास तिगून उरलो, अशें म्हण्टात. पूण ह्याच कारणांक लागून तांकां विरोध जालो अशेंय म्हण्टात.

इ.स.प. सव्या शेंकड्यासावन ज्यू लोक हे युरोपीय देशांनी पातळपाक लागिल्ले. चड करून इ.स. पयल्या शेंकड्यांतल्या रोमन धुरयांक लागून ज्यू लोकांचे खूब हाल जाले. रोमन लोकांच्या फाटोफाट ते इटली, फ्रांस, स्पेन ह्या देशांनी गेले. चडशे लोक न्हाइन न्हंयच्या वाठारांत म्हळ्यार आयचे जर्मनीत स्थायिक जाले. इ.स.प. काळांत रोमन आनी ग्रीक लोकांचो ज्यू लोकांक जरी उपद्रव जालो, तरी ताचें स्वरुप चडशें राजकी आशिल्लें. क्रिस्ती धर्माचो उदय जातकच सुमार चवथ्या शेंकड्याचे सुर्वेक, क्रिस्ती धर्म हो रोमचो अधिकृत धर्म जायतपसून ज्यू लोकांक दुय्यम पांवड्याचे लेखपाक लागले आनी सामान्य नागरिकांचे हक्क तांकां दिलेनात. ज्यू लोकांक धर्मप्रसाराचो हक्क न्हयकारलो. ज्यू धर्म आपणावप आनी ज्यू लोकांकडेन लग्नसंबंद दवरप, हो गुन्यांव अशें मानपाक लागले. ज्यू मनशान हातासकयल नोकर दवरचे न्हय, वैजकी वेवसाय करचो न्हय, तशेंच ज्यू कारागीर आसल्यार ताणें हातासकयल क्रिस्ती उमेदवार शिकाऊ म्हूण दवरचो न्हय, अशीं बंधनां तांचेर घालीं. ताका लागून ज्यू लोक चडांत चड आत्मकेंद्रित जाले.

भायल्या अत्याचाराक धाडसान तोंड दिवपाखातीर धर्म हो तांचो एकूच आदार आशिल्लो; ताका लागून ते धर्माक चडूच चिकटून रावले. खरे-फट दोशारोप करून ज्यू लोकांचेर जावपी चडांत चड अत्याचारांक लागून ज्यू लोकांचो एकचार आनी कठोर मनान जियेवपाचो हावेस वाडत रावलो. तेराव्या शेंकड्यांत बर्लिनालागीं आनी पंदराव्या शेंकड्यांत व्हिएन्ना हांगा साद्या कारणांवयल्यान ज्यू लोकांची मोट्या प्रमाणाचेर हत्त्या जाली.

सुमार धाव्या वा इकराव्या शेंकड्यासावन खेड्यापाड्यांत समान नागरिकांचे हक्क न्हयकारले, म्हूण बरेचशे ज्यू लोक शारांत आयले आनी वेपार-सावकारी ह्या वेवसायांत पडले. वेपार आनी सावकारी हे तांचे मुखेल वेवसाय जाल्यान, आपशींच सावकारीकडेन संबंदीत आशिल्ल्या स्वार्थ, कृपणता ह्या दुर्गुणांचो आरोप तांचेर जावपाक लागलो.

तेराव्या शेंकड्यांत इग्लंडांतसून, चवदाव्या शेंकड्यांत फ्रांसांतसून तशेंच चवदाव्या आनी पंदराव्या शेंकड्यांत जर्मनी आनी ऑस्ट्रिया ह्या देशांतसून ज्यू लोकांक धांवडायले. धर्मीक कारणांखातीर ताणीं कोणाचो तरी बळी दिलो, ह्या आरोपाखाल १४६ ज्यू लोकांचो जर्मनींत १२९८ त नाश केलो. चवदाव्या शेंकड्यांत प्लेगाचे सांथीन (ब्लॅक डेथ) युरोपांत कितल्याश्याच लोकांक मरण आयलें. धर्माच्या नेमाप्रमाण खावप-जेवप आनी निवळसाण ह्या कारणांक लागून ज्यू लोकांक हे सांथीचो व्हडलोसो उपद्रव जालो ना. हाका लागून थोडे लोक तिडकले आनी ताणीं ज्यूंचेर जादूटोण्याचो आरोप करून धुरी घाली. ताच्या फुडल्या दोन वर्सांत ३५० ज्यू लोकांचो मुळासटक नाश केलो. ह्या जाचाक कंटाळून ज्यू लोक उदेंत युरोपावटेन आयले. सोळाव्या ते अठराव्या शेंकड्यांत पोलंडांत जगांतल्या चडशा ज्यू लोकांची वसती आशिल्ली. पूण ह्याच काळांत लाखांनी लोकांक थंय जिवेशीं मारले. कोलंबसावांगडा अमेरिकेंत ज्यू पंदराव्या शेंकड्यांत गेले. ताणीं थंय जायतीं 'सिनॅगॉग' बांदलीं. अमेरिकेच्या स्वातंत्र्य झुजांत ताणीं वांटो घेतलो. थंय आयिल्ल्या ज्यूंनी विंगड विंगड उद्येगधंदे सुरू केले.

रशियांत ज्यूविरोधवाद हें झारशाहीचें अधिकृत धोरण आशिल्लें. मार्क्सवादाच्या आनी साम्यवादाच्या संदर्भांत जाल्यार ज्यू लोक पेचांत पडले. कार्ल मार्क्स हो ज्यू आशिल्लो, देखून झार हे ज्यू लोकांकडेन दुबावान पळेताले. तेच वांगडा वेपार-सावकारीच्या तांच्या पेशाक लागून बोल्शेविक पक्षूय तांचेकडेन भांडवलशाहीचे उपासक आनी हस्तक म्हूण पळेतालो. १९१९-२० च्या क्रांतीकाळांत चुकीचो समज करून कितल्याशाच धर्मीक वृत्तीच्या ज्यू लोकांची झार पक्षाकडल्यान हत्या जाली. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक आनी विसाव्या शेंकड्याच्या आरंबाक रशियांत ज्यूंआड ज्यो दंगली जाल्यो तांकां 'पोग्रोम' अशें म्हण्टाले. ह्या दंगलींक लागून हजारांनी ज्यूंनी अमेरिकेंत स्थलांतर केलें. रशियांतले क्रांतीउपरांत ह्यो दंगली थांबल्यो.

१९१४-१८ च्या पयल्या म्हाझुजाउपरांत जर्मनींत ज्यू-द्वेश तेंगशेक पावलो. झुजांत हरिल्ल्यान आनी कबलातीच्या अपमानास्पद अटींक लागून जर्मन लोकांचीं मनां खचिल्लीं. ह्या पराभूत मनोवृत्तींतसून तांकां वयर काडपाखातीर कोणाचो तरी बळी दिवपाची गरज आशिल्ली. समाजाच्या सगळ्या मळांचेर चकचकपी ज्यू लोकांचेर राश्ट्रघातकी कर्तुपांचो आरोप केलो. तेचवांगडा झुजाउपरांत जर्मनी राश्ट्राचो मुखेल जाल्ल्या हिटलरान आनी ताच्या नाझी पक्षान वंशद्वेशाचो प्रचारुय सुरु केलो. जर्मन लोक हे आर्य वंशाचे आसात, आर्य हे उच्च संस्कृतायेचे प्रवर्तक आसात आनी ज्यू हे संस्कृतायेचे विध्वंसक आसात, असो नवो सिध्दांत ताणीं मांडलो. ज्यू लोक हे भित्रे पूण घातकी आसात, ते स्वार्थी आनी समाजद्रोही आसात, अशी तांची प्रतिमा लोकांमुखार उबी केली. तांचेआड जायते कायदे केले. अर्थीक मळार तांकां सामकेच चेपून दवरले. १९३२ त एका कायद्यान सगळ्या 'अनार्य' लोकांक सरकारी नोकरेंतल्यान काडून उडयले. ज्यू लोकांची मालमत्ता नश्ट करप, तांचेर धुरी घालप, तांकां बंदखणींत घालप हें सत्र चालू जालें. १९३९ त दुसरें म्हाझूज सुरू जातकच जर्मनींत आनी जर्मनीन हाताशिल्ल्या हेर देशांनी जायत्या ज्यू लोकांची भयांकृत हत्या केली. न्यूरेम्बर्ग खटल्यांतल्यान निश्कर्श काडलो ते प्रमाण १९४५ मेरेन साठ लाख ज्यू लोकांक मारले, असो अदमास आसा. झुजापयलीं पोलंडांत तीस लाख ज्यू लोक आशिल्ले. आयज फकत तीस हजार उरल्यात. ज्यूद्वेश हो जर्मनींत

तेंगशेक पाविल्लो आसलो, तरी अमेरिकेसयत हेर देशांनीय ताचें मूळ अजुनूय सांपडटा. साम्यवादी आनी भांडवलशाही ह्या दोनूय प्रकारच्या राश्ट्रांतल्या सामान्य लोकांमदीं हो मत्सर अजून चलता अशें दिसून आयलां.

संवसारांत ज्यूंची वट्ट लोकसंख्या १ कोटी ४० लाख आसून तातूंतले सगळ्यांत चड म्हळ्यार ५८ लाख ज्यू अमेरिकेंत (संयुक्त संस्थानांत) आसात. ताच्याफाटोफाट ३० लाख रशियांत, १२ लाख अमेरिका खंडांतल्या हेर देशांनी, १० लाख अस्तंत युरोपांत आसात. खुद्द इझ्राएलांत २८ लाख ज्यू आसात.

ज्यू लोक जरी विंगड विंगड वाठारांत वसणूक करून आशिल्ले, तरी तांचो ज्यू धर्मावयलो भावार्थ अढळ आशिल्लो. तशेंच एकचार आनी आपल्या बांधवांविशींचो मोग मात्तूय कमी जावंक नाशिल्लो. ते ज्या देशांत रावताले, त्या देशाचे ते प्रामाणिक आनी विश्वासू नागरिक आशिल्ले. तरी लेगीत आपले मायभुंयेंत आपलें स्वतंत्र राश्ट्र आसचें, अशें तांकां दिसतालें.

ह्या धोरणावरवीं १८९७ त थीओडोर हेर्ट्झल ह्या ऑस्ट्रियन लेखकान ज्यू राश्ट्रीय आंदोलनाक चालना दिली. ताका पॅलेस्टाइनांत ज्यू राश्ट्र निर्माण करपाचें आशिल्लें. हाका प्रतिसाद दिवपाखातीर १९३० उपरांत जायते ज्यू युरोपांतल्यान पॅलेस्टाइनांत आयले. दुसऱ्या म्हाझुजाचे अखेरेक सुमार स लाख ज्यू पॅलेस्टाइनांत रावताले. १९४७ त संयुक्त राश्ट्रांचे संघटनेन पॅलेस्टाइनाक अरब राज्यांतसून वेगळे करून इझ्राएल हें स्वतंत्र राश्ट्र निर्माण करपाचें थारायलें. ते प्रमाण १४ मे १९४८ दिसा ज्यूंच्या इझ्राएल ह्या स्वतंत्र राश्ट्राची निर्मिती जाली.

मुस्लिम राश्ट्रांक आपले भुंयेंत ज्यूंचें राज्य स्थापन केलां म्हूण सुरवातीकपसून मत्सर दिसतालो. देखून इ. स. १९५६, १९६७ आनी १९७३ त अरब राश्ट्रांनी घुरी घालून इझ्राएल राश्ट्र नश्ट करपाचो यत्न केलो. पूण तातूंत दरेक वेळा अरब राश्ट्रांकूच हार खावची पडली. आयज पसून भोंवतणचीं अरब राश्ट्रां आनी इझ्राएल हांचेमदीं एकसारके संघर्श जायत आसात.

डेव्हिड, सॉलोमन हांचीं पूर्विल्लीं राज्यां, इझ्राएल आनी ज्यूडा हीं फुडलीं ल्हान राज्यां हांचो विचार केल्यार खास ज्यू कल्पनांचेर आदारिल्ली शासनयंत्रणा फकत ज्यूडाच्या पडावामेरेनूच अस्तित्वांत आशिल्ली, अशें दिसून येता. पॅलेस्टाइनांत आयिल्ल्या ज्यू पंगडांत राज्यसंस्था अस्तित्वांत नाशिल्ली. तांची अर्थीक आनी समाजीक जीण गुंतागुंतीची जावपाक लागतकच प्रांताधिकारी उत्पन्न जाले. तांचो शेक एकेक जमातीचेर न्हय तर एकेका प्रांताचेर आशिल्लो. फिलिस्तीन पंगडांच्या उपद्रवाक लागून एकतंत्री संघटनेची गरज उत्पन्न जाली आनी तातूंतसून ज्यू राजसत्ता निर्माण जाली. ज्यूडा आनी इझ्राएल ह्या राज्यांतली शासनवेवस्था सादारणपणान एकेच तरेची आशिल्ली.

हिब्रू ही ज्यू लोकांची भास आसून ज्यू लोकांचें चडशें सगळें साहित्य धर्मीक स्वरुपाचें आशिल्लें. 'पोरनो करार' हो बायबलाचोच एक भाग. हातूंत ज्यू धर्म आनी इतिहास हांची म्हायती दिवपी बायबलांतलीं ३९ प्रकरणां आसून, तातूंत सुर्वेकसावन ते येशू क्रिस्तामेरेनचो ज्यू इतिहास आसा. सबंद ग्रंथ इ.स.प. ८०० ते २०० ह्या काळांत तयार जालो आसूंक जाय अशें म्हण्टात.

'अपॉक्रिफा' हो ग्रंथ म्हळ्यार पोरन्या कराराची पुरवणी आसून ज्यू धर्मांत मान्यताय मेळिल्ल्या चवदा पुस्तकांचो आस्पाव तातूंत जाता. हें सगळें साहित्य धर्मीक आचार आनी नितीपाठ सांगपी आसा, अशें मानतात. मोझेसान आपली विधिसंहिता तोंडयां सांगली आनी ती हेर जाणकारांनी राखून दवरली. हे विधिसंहितेवयली टिका म्हळ्यार 'हालाखा'. 'मिशना' ही 'हालाखा'ची संपादित आवृत्ती. लेखी संहिता आनी मौखिक परंपरा हांचो संबंद दाखोवपाच्या हेतान पुरोयतांनी 'मिदरॅश' ही वाङ्मयशाखा उत्पन्न केली. वेगवेगळ्या काळांत 'पोरनो करार' आनी हेर ग्रंथ हांचेर तयार केल्ल्या टीकांचो हातूंत आस्पाव जाता. कांय भागांत दंतकथा आनी आख्यायिका हांचो उपेग करून पोरन्या कराराचें विवरण केलां. 'मिशना' आनी ताचेवयली टिका म्हळ्यार 'गेमारा' ह्या दोगांयचोय मेळून 'तालमूड' हो ग्रंथ तयार जाला. 'तालमूड' च्यो दोन वेगळ्यो आवृत्ती आसात: एक जेरुसलेमची आनी दुसरी बॅबिलॉनची. हाचो मूळ गाभो इ.स.प. ७०० ते इ.स.प. २०० च्या काळांत तयार जाला आसलो, तरी ताच्यो निमाण्यो आवृत्त्यो जेरुसलेम (इ.स. ४००) आनी बॅबिलॉन (इ.स. ५००) हांगा तयार जाल्यो. दोनांच्योय ('गेमारा') टिका वेगवेगळ्यो आसात. बॅबिलॉनियन 'तालमूडाक' आयज चड मान्यता मेळ्ळ्या.

- कों. वि. सं. मं.

**ज्येष्ठ:** हिंदू कालगणनेप्रमाण तिसरो म्हयनो. हाचे पुनवेक चंद्र जेष्ठा नक्षत्रांत वा लागसार आसता, म्हूण हाचें नांव 'ज्येष्ठ' पडलें. ह्या म्हयन्यांत सुर्याची मिथुन संक्रांत आसता. हाचे शुध्द प्रतिपदेक हनुमान आनी प्रभु रामचंद्राची भेट जाली आनी शुध्द दसमीक प्रभु रामान रामेश्वर ह्या ज्योतिर्लिंगाची स्थापना केली. शुध्द दसमीक हस्त नक्षत्रांत गंगावतरण जालें, म्हूण प्रतिपदा ते दसम दशहरा उत्सव मनयतात.

शुध्द दसम म्हळ्यार दशहरा. ह्या दिसा हस्त नक्षत्राचेर स्वर्गांतल्यान भागीरथी अवतीर्ण जाली. ह्या दिसा जो गंगेंत न्हाण घेता, ताचीं धा पातकां ही तीथ हरण करता, म्हूण तिका 'दशहरा' हें नांव पडलां. ज्येष्ठ म्हयनो, शुक्ल पक्ष, दसम, बुधवार, हस्त नक्षत्र, व्यतीपात, गरकरण, आनंदारथ योग, कन्येक चंद्र आनी वृषभाक सूर्य अशे धा योग आसून मनशान जर गंगान्हाण घेतलें जाल्यार तो सगळ्या पातकांपसून मुक्त जाता, अशें स्कंद पुराणांत सांगलां. ज्येष्ठांतले पुनवेक बायलां वटसावित्रीचें व्रत करतात. त्या दिसा ज्येष्ठा नक्षत्र आसलें जाल्यार ब्राह्मणाक सत्री आनी जोतीं दान करचीं, अशें सांगलां. ज्येष्ठ पुनवेक वेद प्रगट जाले, म्हूण त्या दिसा वेदांची पूजा करतात. ज्येष्ठ म्हयन्यांत उदकाचो कुंभ, पंखो आनी गाय त्रिविक्रमाखातीर दान करची, अशें वामन पुराणांत सांगलां. ह्या म्हयन्यांत ब्रह्मदेवाची पिठाची मूर्त करून ताची पूजा करची, अशें सांगलां. ज्येष्ठ वद्य अष्टमीक शंकराची आनी ज्येष्ठ वद्य चतुर्दशीक रेवतीची निळ्या फुलांनी पूजा करची, अशें सांगलां.

राणाप्रताप जल्मतीथ- शुध्द तृतीया, निर्जला एकादस (उदक घेनासतना करपाचो उपास), संभाजीची जल्मतीथ- शुध्द द्वादस, शिवराज्याभिषेक- त्रयोदशी, कबीर जल्मतीथ- पुनव, स्वामी विवेकानंदाचो निर्याण दीस- वद्य षष्ठी, हे ह्या म्हयन्याचे म्हत्वाचे दीस.

- कों. वि. सं. मं.

**ज्येष्ठा:** सत्तावीस भारतीय नक्षत्रांतलें अठरावें, अनुराधेच्या उदेंतेचें आनी वृश्चिक राशींत येवपी नक्षत्र. हातूंत अस्तंत्या वृश्चिक (स्कॉर्पिओ) तारकाचोम्यांतले आल्फा, टाऊ आनी सिग्मा हे तारे आसून हें श्रवणाप्रमाण आनी मृगांतल्या बाणासारकें त्रिकांड आसा. हातूंतलो आल्फा हो मुखेल तारो आसून ताच्या तांबड्या रंगावेल्यान ताका 'अँटारेझ' (प्रतिमंगळ) अशें नांव पडलां. हो गिरे सुमार २० ऑगस्टाक, रातचो आठ वरांचेर मध्यमंडलाचेर खमध्याचे बरेच दक्षिणेक आकाशगंगेंत दिसता. हाचो मध्य सुर्याचेर मानलो, तर मंगळाची सबंद कक्षा गिन्यांत पुराय मावतली इतलो तो (सुर्याच्या २८५ पट) मोटो आसा. हाची घनता सुर्याचे घनतेच्या एक दशलक्षांपरसूय कमी आसा. पूण हो सुर्याच्या १५०० पट तेजीश्ट आसून सुर्याच्या ३,५०० पट उजवाड उत्सर्जित करता. वृत्र ह्या ज्येष्ठ असुराक ह्या नक्षत्रांत मारचें, अशें देवांनी थारायलें आनी ताका लागून हाका ज्येष्ठघ्नी म्हण्टात. ज्येष्ठा हें ताचेंच संक्षिप्त रुप जावन आसा. ह्या नक्षत्राची देवता इंद्र आनी आकृती कुंडल आसा. ह्या नक्षत्राचेर जल्मल्ल्या भुरग्याची जननशांती करची पडटा.

हाचें मूर्तीध्यान अशें सांगलां:

पीतवर्णा गजारूढा भल्लास्या वा मृगानना ।

अक्षसूत्रं पविं धत्ते वामे ज्येष्ठाङ्कुशं शयम् ।।

अर्थ- ज्येष्ठ ही हळडुव्या वर्णाची, वांस्वेलाच्या वा मृगाच्या तोंडाची, हत्तीचेर बशिल्ली, उजव्या हातांत माळ आनी वज्र तशेंच दाव्या हातांत अंकुश आनी सोरोप धारण करपी जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**झ:** देवनागरी वर्णमालेंतलें णवें आनी 'च' ह्या वर्गातले चवथें व्यंजन. हाचो उच्चार ताळवेंतल्यान जाता. ह्या वर्णाचीं जैन आनी दक्षिणी अशीं दोन वळणां आसात.



झ च्या रूपाचो विकासक्रम

दक्षिणी वळण आशिल्ल्या 'झ' ची पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनारशतांगाच्या शिलालेखांत, दुसरी इ.स. च्या दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या वसिष्ठीपुत्र पुलुयामी हाच्या लेखांत आनी तिसरी राजा शिवगणाच्या कोटा हांगाच्या लेखांत (इ.स. ७३८) मेळटा. इ.स. च्या इकराव्या शेंकड्यांतल्या एका हातबरपांत चवथी अवस्था दिसता. हे चव- अवस्थेंतसून फुडें पांचवे अवस्थेंतलो झ तयार जालो आसूंक जाय.

ह्या वर्णाचें स्त्रीरुपांतलें ध्यान सांगलां तें अशें:

सन्तप्तहेमवर्णाभां रक्ताम्बरविभूषिताम्।
रक्तचन्दनलिप्ताङ्गीं रक्तमाल्यविभूषिताम्।।
चतुर्दशभुजां देवीं रत्नहारोज्ज्वलां पराम् ।
ध्यात्वा ब्रह्मस्वरूपां तां तन्मन्त्रं दशधा जपेत्।।

(वर्णोध्दारतंत्र)

अर्थ- तापिल्ल्या भांगरा कांतीची, रक्त वस्त्र न्हेशिल्ली, आंगाक रक्तचंदनाचो लेप लायिल्ली, तांबड्या फुलांचे वळेसर गळ्यांत घाल्ली, चवदा भुजां आशिल्ली आनी रत्नहार घाल्ली, अशी ही जकारमुर्ती आसा. ब्रह्मस्वरूप अशे तिचें ध्यान करून, धा वेळा तिचो मंत्र जपचो.

हाचो उच्चार ताळवेंतल्यान जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**झांज:** एक घन वाद्य. कैताळ, जाल्रा, मंजी अशे झांजांचे विंगड विंगड प्रकार आसात. व्हड आकाराचे झांजीक झरीगा अशें म्हण्टात.

तांबें, पितूळ वा ब्राँझ ह्या धातूंपसून दोन वाटकुळे पसरट कुडके करून, त्या कुडक्याच्या मध्यभागाक खोल भाग तयार करतात. खोलगट भागाच्या मध्यभागांत एक बुराक घालतात. दोनूय कुडक्याच्या बुराकांतल्यान एक दोरो गुथून झांजेच्या भितरल्या भागांत दोरयेन गांठ मारतात. मागीर ते दोनूय कुडके दोनूय हातांत घेवन ते एकामेकांचेर मारतात, जेवरवीं आवाजाची निर्मणी जाता.

आरती वा कीर्तनावेळार ताल धरपाखातीर झांजीचो उपेग जाता.

बुंदेलखंडांत छितला नांवाची एक विचित्र झांज आसा. लोखणाच्यो दोन फूट लांब पट्ट्यो, एके कुशीक तोंक दवरून आनी दुसरे कुशीक लोखणाची कडी अडकवन झांज करतात, जातूंत आनीकूय ल्हान कड्यो आडखळिल्ल्यो आसतात.

गोंयांत व्हड आकाराचे झांजीक *कासाळें (*)* म्हण्टात. हें कासाळें चड करून सुवारी ह्या वाजपा प्रकारांत घुमट आनी समेळावांगडा वाजोवप जाता. झांजीच्या रूपाचे, पूण दोणे कशे खोलगट आकार आशिल्ल्या अशाच घनवाद्याक ताळ म्हण्टात. हे ताळ चड करून भजन वाद्यप्रकारांत वाजयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**झांबिया:** दक्षिण मध्य आफ्रिकेंतलें एक प्रजासत्ताक. क्षेत्रफळ: ७,५२,६१४ चौ.किमी.; लोकसंख्या: ६८,९६,००० (१९८६). विस्तार: ८° १५' दक्षिण ते १८° ७' दक्षिण आनी २२° उदेंत ते ३३° ४३' उदेंत. हाचे उदेंतेवटेन मालावी, आग्नेयेक मोझँबिक, दक्षिणेवटेन झिंबाब्वे, बोटस्वाना आनी नामीबिया (नैर्ऋत्य आफ्रिका), अस्तंतेवटेन अंगोला आनी उत्तरेखटेन झाइरे हे देश आसात. राजधानी- लूसाका. चोंयवटांनी हेर देशांचे मर्दी आशिल्ल्यान झांबियाक दर्यादेग ना.

**भूंयवर्णन:** झांबियाचो चडसो वाठार ९०० ते १,५०० मी. उंचायेचें पठार आसा. ईशान्य वाठारांतली मूचिंगा पर्वतांची वळ २,१०० मी. उंचायेची आसा. देशाचो चडसो वाठार झँबीझीच्या देगणांत आसा आनी उत्तरेखटेनचो वाठार खोलगट आसून थंय बेंग्वेलू सरोवर आसा. ह्या सरोवराक चांबेशी न्हंय मेळटा. सरोवराचे दक्षिणे वटेनचो आनी आग्नेयेवटेनचो वाठार चिखलाचो आसा. थंयचें उदक लुआपूला न्हंयेंतल्या झांबिया-झेअर शिमेवयल्या म्वेरु सरोवरांत वता. म्वेरु आनी टांगानिका सरोवरां खचदरींत आसात. टांगानिका सरोवराक कालांबो न्हंय मेळटा. हे न्हंयेवयलो २२१ मी. उंचायेचो धबधबो झांबियांत सगळ्यांत ऊंच जावन आसा. झँबीझी न्हंय झांबिया आनी झिंबाब्वेचे शिमेवयल्यान व्हांवता. काफूए आनी ल्वांग्वा ह्यो तिच्यो उपन्हंयो आसात. झँबिझी न्हंयचेर व्हिक्टोरिया हो धबधबो आसा. करिबा हें सरोवर झांबिया आनी झिंबाब्वेचे शिमेर आसा. व्हडल्या न्हंयांक वर्सभर उदक आसता, जाल्यार ल्हान न्हंयो पावसाळ्याउपरांत सुकतात.

**हवामान:** उंचायेक लागून हांगाचें हवामान शितळ आसता. मे ते ऑगस्ट मेरेन शियाळो आसता. मध्य ऑगस्ट ते ऑक्टोबर अखेर गीम आसता. शियाळ्यांत तापमान दिसाचें ३१° से. जाल्यार रातचें २१° से. मेरेन देंवता वता. ऑक्टोबराच्या दिसांनी तापमान ३६° से. मेरेन वयर वता. ऑक्टोबराच्या दुसऱ्या अर्दांत दर्यावटेनच्यान वारें येता. नोव्हेंबरांत बरींच वादळां जातात. नोव्हेंबर ते एप्रिल मेरेन पावस पडटा. त्या वेळार तापमान देंवता. पावसाचें प्रमाण दक्षिण वाठारांत ७१ सेंमी. जाल्यार उत्तरेखटेन १४७ सेंमी. मेरेन आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात:** देशाचो चडसो वाठार तणान भरला. ल्हान सान झाडां आनी झुडपांय चोंयवटांनी दिसतात. तण सुमार १.५ ते २ मी. मेरेन वाडटा. बाभळीचे जातींचीं कांट्यांचीं आनी बेंओबाचीं झाडां बरींच आसात. टांगानिका सरोवराच्या वाठारांत रानां आसात, पूण तीं दाट नात. नैर्ऋत्येवटेन बरोंत्स वाठारांत ऱ्होडेशियन सागाचीं रानां आसात. मॉहॉगनी, मोपेन, मुक्वा हेसारके रुखय बरेचकडेन दिश्टी पडटात.

झांबियाच्या तणाच्या आनी रानांच्या वाठारांनी तरांतरांचे प्राणी आसात. हत्ती सादारणपणान सगळ्याक सांपडटा. न्हंयांच्या वाठारांनी हिप्पो दिसून येतात. गेंडो, झेब्रा, जिराफ, रेडो, हरण, बॅबून माकडां, बुशबेबी हेसारके तणाचेर जियोवपी आनी शिंव, चित्तो, बिबटो वाग, तरस, रानवटी सुणो, गॅनेट, रॅटेल, कोलो हेसारके मांस खावपी प्राणी हांगा आसात. सुमार ७०० जातींचीं सुकणीं आनी न्हंयांतल्यान आनी सरोवरांतल्यान विंगड विंगड प्रकारचें नुस्तें, मानगीं, कांसव, विखयाळे आनी विख नाशिल्ले सोरोप, शेड्डे आनी तरेकवार कीडमूय हांगा आसा. त्से त्से नांवाचे मूस हांगा बऱ्याच प्रमाणांत दिसतात.

**इतिहास:** झांबियाचो वाठार एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन संवसारांतल्या हेर लोकांक व्हडलोसो खबर नाशिल्लो. १९२० त हांगा सांपडिल्ल्यो कवट्यो आनी सांगाडे हांचेवयल्यान हांगा १० हजार वर्सांपयलीं निअँडर्थल मनीस रावलालो, अशें जाणकारांचें मत आसा. बुशमेनांच्या राबित्याचे अवशेश हांगा सांपडल्यात. उपरांत हांगा बांटू लोक येवन तांणी बुशमेनांक धांवडावन घाले, अशें कांय जाणांचें मत आसा. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक अरब गुलाम वेपारी हांगा सावन तांबें व्हरताले. पोर्तुगेजांनी ह्या वाठारांतल्यान उदेंत-अस्तंत मार्ग सोदपाचे यत्न केले. झांझिबारखटेनच्या अरबांनी आनी पोर्तुगेजांनी




हांगाच्या वाठारांतल्या लोकांक गुलाम म्हूण विकूंक सुरवात केली.

हो वाठार पयलीं एकुणिसाव्या शतमानांत डॉ. डेव्हिड लिव्हिंगस्टनच्या यत्नांक लागून उजवाडाक आयलो. १८४१ त दक्षिण आफ्रिकेंत वैजकी मिशनरी म्हूण आयिल्ल्या लिव्हींग्स्टनान १८५० त झांबीझीच्या वयल्या वाठारांत पावल दवरलें. १८५५ त ताका व्हिक्टोरिया धबधब्याचो सोद लागलो. उपरांत सेसिल जॉन ऱ्होड्स ह्या ब्रिटिशान हांगाचे थळावे राज्यसत्तेकडल्यान ब्रिटीश साउथ आफ्रिका कंपनी उबारपाचे हक्क मेळयले. १९२४ मेरेन ह्या वाठारांत शासन, हेच कंपनीवरीं चलतालें. उपरांत ब्रिटीश सरकारान थेट हांगाचो राज्यकारभार पळोवंक सुरवात केली. १९५३ त न्यासालँड, दक्षिण आनी उत्तर ऱ्होडेशियाचें मेळून एक संघराज्य जालें. १९६४ त केनेथ कौंडा हाच्या फुडारपणाखाल ह्या देशाक स्वतंत्रताय मेळ्ळी आनी झांबिया हो देश अस्तित्वांत आयलो. केनेथ कौंडा हांगाचो पयलो राश्ट्राध्यक्ष जालो. हांगा बऱ्याच पक्षांची संसदीय राज्यपध्दत चालू जाली. केनेथ कौंडा हाचो 'युनायटेड नॅशनल इंडिपेंडन्स' हो पक्ष पयलींसावन अधिकाराचेर आशिल्लो. १९७२ त हांगा सगळे विरोधी पक्ष विसर्जित केले आनी एकपक्षीय सरकाराची थापणूक जाली. ऱ्होडेशिया (झिंबाब्वे) आनी ह्या देशामदीं तणावाचे संबंद निर्माण जाल्ल्यान दोनूय देशांची शीम बंद केली. १९७६ त केनेथ कौंडा हाणें आणीबाणी जाहीर केली. १९८३ त जाल्ल्या वेंचणुकांनी कौंडा हाकाच जैत मेळून सद्यामेरेन तोच हांगाचो राश्ट्राध्यक्ष जावन आसा.

**राज्यवेवस्था:** १९७२ तल्या संविधान दुरुस्ती कायद्याखाला एकपक्षीय लोकशाय आसा. राश्ट्राध्यक्ष हो राश्ट्राचो मुखेली आसता. पक्षाचो आनी राश्ट्राचोय अध्यक्ष तोच आसा. पक्षाकडल्यान एका मनशाची राश्ट्राध्यक्षपदाखातीर नेमणूक जाता. हांगा पांच वर्सांनी एकदां वेंचणुको जातात. शासनाचे सगळ्यांत चड अधिकार राश्ट्राध्यक्षाक आसात. १८ वर्सां पुराय केल्ल्या दरेकल्याक मत दिवपाचो अधिकार आसा. युनायटेड नॅशनल इंडिपेंडन्स पक्ष सगळ्यो येवजण्यो आनी धोरण थारायता.

थळावो राज्यकारभार ९ प्रांतांतल्यान चलता. दरेक प्रांताच्या शासनाखातीर ताचेर एका मंत्र्याची नेमणूक जाता. ह्या प्रांताचे, फुडें ३५ तालुक्यांनी वांटे केल्यात.

**अर्थीक स्थिती:** हांगाची अर्थवेवस्था चडशी हांगा आशिल्ल्या तांब्याचे खनीज संपत्तीचेर आदारुन आसा. ह्या देशांत तांब्याची सांठवण मोट्या प्रमाणांत आसा. हे भायर कोळसो, लोखण, मॅंगनीज, कोबाल्ट, रुपें हांच्योय खणी ह्या देशांत आसा. कांय वाठारांनी चुनो आनी शिमीट तशेंच ॲनिथीस्ट आनी पाचू हे मोलादीक खडे मेळटात. शेतवडीच्या आदाराचेर हांगाच्या बऱ्याच लोकांची जीण चलता आसली, तरी शेतवडींतल्यान व्हडलेशें उत्पादन हांगा मेळना. शेतवडीची उदरगत चड जाल्ली ना आनी मको, जोंधळो, हेर कड्डणां, ऊंस, केळीं हांची लागवड कांय प्रमाणांत थोड्या वाठारांनी जाता. गोरवां आनी अर्थीक येणावळ दिवपी हेर मोनजात पोसपाचोय उद्देग हांगा चलता. सरोवरां, चिखलाचे वाठार आनी काफूक ऱ्हंयांतल्यान नुस्तेमारीचो उद्देग चलता. रानांतल्या उत्पादनांत मदेराचें लांकूड, मेण आनी म्होंव हांचो मदेराच्या लांकडावांगडा आस्पाव जाता. अन्नउद्देग, पेयां आनी तंबाखूचे उद्देग हांगा आसात. सद्या कपडो, रसायनां, रबर आनी प्लास्टिकचे कारखाने हांगा उबारल्यात. कारखान्यांची आनी यांत्रिकीकरणाची हांगा फाव तशी उदरगत जाल्ली ना. पर्यटनावरवीं अर्थवेवस्थेक आदार दिवपाचो वावर चलता.

ह्या देशांत यंत्रां आनी वाहनां, रसायनां, इंधन ह्या सारक्या गजालींची साउदी अरेबिया, ब्रिटन, बाहरीन, अमेरिका, अस्तंत जर्मनी, इटली, झिंबाब्वे आनी भारत ह्या सारक्या देशांतल्यान आयात जाता. हांगासावन जपान, फ्रांस, इटली, ब्रिटन, भारत, अस्तंत जर्मनी, युगोस्लाव्हिया, चीन आनी अमेरिका हांगा खनिजांची निर्यात जाता.

झांबियन क्वाचा हें हांगाचे अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारण:** १९८४ मेरेन ह्या देशांत ३७, २७९ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. रेल्वेमार्गांची लांबाय १९८५ मेरेन २,१८८ किमी. आशिल्ली. धबधबे आशिल्ल्यान उदकांतले येरादारीखातीर न्हंयांचो व्हडलोसो उपेग जायना. 'झांबिया एअरवेज कॉर्पोरेशन' ही संस्था हवाई मार्गांवयली येरादारी सांबाळटा. लुसाका हांगा मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा.

हांगासावन दोन दिसाळीं उजवाडाक येतात, तीं म्हळ्यार 'द टायम्स ऑफ झांबिया' आनी 'झांबिया डेली मेल'. दोनूय इंग्लीश भाशेंतल्यान आसून सरकारी मालकेच्चीं आसात. पुरायपणान सरकारी नियंत्रण आशिल्ल्यान ह्या दिसाळ्यांनी अधिकृत खबरांकूच म्हत्व आसता. रेडिओ आनी दूरचित्रवाणीचेरूय पुरायपणान सरकाराचें नियंत्रण आसा.

**लोक आनी समाजजीण:** झांबियांतले ९८% परस चड लोक आफ्रिकन निग्रो आसात. वांशिक नदरेन ३४.३% बेम्बा, १६.३% टोंगा, १३.७% मालावी, ९.३% लोझी, ६.३% लुंडा, ५.०% लुएना आनी १५.१% हेर जमातींचे आसात. भारतांतल्यान थंय वचून राविल्ल्या लोकांची संख्याय बरीच व्हड आसा. १९५४ उपरांत भारतीयांक थंय वचून रावंक बंदी घाली. भारतीयांमदले चडशे गुजराती हिंदू आनी कांय प्रमाणांत मुसलमान लोक आसात. धर्मीक नदरेन हांगाचे ३१.९% प्रॉटेस्टंट, २६.२% रोमन कॅथलिक, ८.३% आफ्रिकन किरिस्तांव, २७.०% पारंपारिक धर्म पाळपी आनी उरिल्ले हेर धर्मांचे आसात.

देशाच्या बऱ्याच वाठारांत लोक मागाशिल्ले अवस्थेंत आसात. पंगडा पंगडांनी रावपी लोकांचें प्रमाण बरेंच आसा. हालींच्या काळांत उदरगतीक लागून शारांकडेन रावंक वचपाचें प्रमाण वाडूंक लागलां. लांकडाचेर कोंरातप, मातयेचीं आयदनां करप, खोंटले विणप, घरां रंगोवप ह्या गजालींतल्यान झांबियाच्या लोकांची कला दिसून येता. संगीत आनी नाच ह्या गजालींची हांगाच्या लोकांक भोव आवड. पारंपारिक आनी आर्विल्ल्या खेळांप्रकारांनी हांगाचे तरनाटे वांटो घेतना दिसतात.

**शिक्षण:** झांबियाचें राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण २८% आसा. हांगा सक्तीच्या आनी एकसारक्या शिक्षणाचो प्रसार अजून जावंक ना. सात वर्सांखातीर भुर्ग्यांक मुळावें शिक्षण फुकट आसता. ताचे उपरांत पांच वर्सांचें माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शिक्षण आसता. जानेवारी ते डिसेंबर मेरेन शिक्षणीक वर्स आसता. शिक्षणाचें माध्यम जरी इंग्लीश भाशेंतल्यान आसलें, तरी थळाव्या भाशांकूय शिक्षणांत म्हत्व आसा.

शिक्षणपध्दतीचेर शिक्षण मंत्रालयाचें नियंत्रण आसता. झांबिया विश्वविद्यालय, उंचेल्या पांवड्यावयल्या शिक्षणाची जापसालदारकी सांबाळटा. हांगाचे बरेच विद्यार्थी शिक्षण घेवपाखातीर हेर देशांनी वचून रावल्यात.

**भाशा आनी साहित्य:** बांटू ही हांगाची मुखेल बोलीभाशा. टोंगा, बेम्बा, न्यांजा आनी लोझी ह्योय म्हत्वाच्यो भाशा आसात. बांटू आनी इंग्लीश ह्यो अधिकृत भाशा आसात आनी चडशा वाठारांनी त्यो उपेगाक येतात. हांगाचें बरयिल्लें साहित्य खास अशें सांपडना. लोकसाहित्याची परंपरा मात पदांतल्यान आनी काणयांतल्यान तिगोवन दवरल्या.

**म्हत्वाचीं थळां:** लूसाका, लिव्हिंग्स्टन, काबवे, एन्दोला, कीटवे, चिंगोला हीं झांबियांतलीं मुखेल शारां आसात. व्हिक्टोरिया धबधबो, करिबा धरण आनी सरोवर, काफूए नॅशनल पार्क आनी ल्वांगा अभयारण्य हीं नामनेचीं थळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**झांशी:** ब्रिटिशांकित हिंदुस्थानांतलें अठराव्या शेंकड्यांतल्या बुंदेल खंडांतलें हें एक संस्थान. ताचे उत्तरेक ग्वाल्हेर संस्थान आनी जालौन आसा. उदेंतेक धसान न्हंय, अस्तंतेक दतिया आनी ग्वाल्हेर हीं संस्थानां आनी दक्षिणेक ओर्छा संस्थान आसा. झांशी संस्थानाचो ब्रिटिशांनी झांशी जिल्हो तयार केलो. क्षेत्रफळ: ९२८२ चौ.किमी.; लोकसंख्या: ११,३३,००२ (१९८१). आदल्या काळांत ताका बळवंत नगर म्हूण वळखताले.

पूर्विल्ल्या काळांत ह्या संस्थाना भोंवतणी परिहार, काठी, रजपूत आनी गोंड लोकांची वसती आशिल्ली. कांय काळ तें चंदेलाचे सत्तेखाला आशिल्लें. पूण ११८२ वर्सा पृथ्वीराजान चंदेलाक हारयलो. तेराव्या शेंकड्याचे सुर्वेक १२०२-०३ त कुतुब्दिन हाणें आनी १२३४ वर्सा अल्तमश हाणें ह्या प्रांताचेर चाल केली. मागीर हो प्रांत खेंगाराचे सत्तेखाला आयलो. तांणी हांगा किल्लो बांदलो. तेराव्या शेंकड्यांत रुद्रप्रताप बुंदेला हाणें खेंगाराक हरोवन थंय आपल्या राज्याची थापणूक केली. ताचो पूत भारतीचंद्र हाणें १५३१ त ओर्छा शाराची वसणूक केली. ओर्छा शाराचो राजा बीरसिंगदेव हाणें १६१३ वर्सा झांशी नगराची थापणूक करून झांशीचो किल्लो बांदलो. १६०५-२७ ह्या काळांत बीरसिंगदेव हाणें ओर्छाचेर राज्य केलें, पूण १६२७ अकबर, शाहजहान आनी बीरसिंग हांचेमदीं झूज जालें आनी झांशी मुसलमानांचे सत्तेखाला गेली. सतराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक चंपतराय बुंदेला हाचो पूत छत्रसाल हाणें बाजीरावाच्या आदारान झांशी परती आपल्या शेकातळा हाडली. बाजीरावान मुसलमानांक हरयल्ले, देखून ताणें बुंदेलखंडाचो तिसरो वांटो बाजीरावाक दिवपाचें मान्य केलें. पूण प्रत्यक्षांत दिलो ना. १७४२ त मल्हार कृष्ण आनी राणोजी शिंदे, हे झांशीक गेल्ले कडेन ओर्छाकारांनी तांकां हरोवन मल्हार कृष्णाचो खून केलो. तेन्ना नारो शंकरान ओर्छाकारांक हरोवन झांशी मराठ्यांचे सत्तेखाला घेतली. पेशव्यांनी मल्हार कृष्णाच्या वंशजांक झांशीची जहागीर दिली. १७४२ ते १७७० मेरेन नारो शंकर, बाबूराव कान्हेरपंत, विश्वासराव लक्ष्मण हे झांशीचे सुभेदार आशिल्ले. नारो शंकरान झांशीचो किल्लो आपल्या शेकातळा घेतलो आनी ताचे भोंवतणी नव्या शाराची वसणूक केली. हाकाच झांशी संस्थानाचो संस्थापक म्हणूं येता.

१७७० त वंशपरंपरेप्रमाण झांशी, रघुनाथ हरी नेवाळकर ह्या घराण्याकडेन आयली. २५ वर्सां राज्यकारभार चलोवन रघुनाथरावान आपलो भाव शिवराव हाचेखातीर पुणे हांगासावन वस्त्रां मागयलीं. पूण ह्याच वेळार ब्रिटिशांनी बुंदेलखंडाचेर चाल केली. तेन्ना शिवरावान तांकां आदार दिलो. १८०४ वर्सा ब्रिटीश आनी शिवराव हांचेमदीं कबलात जाली. शिवरावाचो नातू रामचंद्रराव हो जेन्ना गादयेर आयलो तेन्ना कबलातीप्रमाण झांशी ब्रिटिशांचे सत्तेखाला गेली. फुडें ब्रिटीश आनी रामचंद्रराव हांचेमदीं पर्थून कबलात जावन, ब्रिटिशांनी झांशी राज्य वंशपरंपरेन चलोवपाची मान्यताय दिली. १८३५ त रामचंद्ररावा उपरांत ताचो बापोलयो रघुनाथराव गादयेर आयलो. पूण ताका १८३८ त मरण आयलें. ताचे उपरांत ताचो भाव गंगाधरराव सत्तेर आयलो, पूण झगडीं जावन १८३८ ते १८४३ मेरेन ब्रिटिशांनी झांशी संस्थान आपल्या शेकातळा घेतलें. फुडें ब्रिटिशांनी गंगाधररावावांगडा तैनाती फौजेची कबलात केली आनी २,२७,००० रुपया वसुलेचो मुलूख घेतलो. गंगाधररावान आपली बायल मरतकच मोरोपंत तांबेची धूव लक्ष्मीबाई हिचेकडेन लग्न केलें. १८५३ त तांणी नेवाळकर घराण्यांतल्या आनंदराव ह्या भुरग्याक पोसको घेतलो आनी त्याच वर्सा गंगाधररावाक मरण आयलें. १८५४ त लॉर्ड डलहौसीन पोसक्या वारसाक मान्यताय दिली ना आनी झांशी संस्थान आपल्या शेकातळा घेतलें. आपल्या वारसाक मान्यताय मेळची, म्हूण लक्ष्मीबाईन खूब यत्न केले. १८५७ जाल्ल्या बंडांत झांशी ब्रिटिशांकडेन वचची न्हय, म्हूण ती शेवट मेरेन झुजली आनी मळाभुयेर तिका वीर मरण आयलें.

झांशी जिल्ह्यांतल्या अन्नधान्याची, झांशी शार ही मुखेल बाजारपेठ जावन आसा. हांगा पितूळ, आयदनां, रस्मी कपडे, चित्रकला, कांबळी, विडी, शाबू, तेल, सुगंधी तंबाकू, शेती यंत्रां, आयुर्वेदीक वखदां हांचे धंदे चलतात. तेभायर ह्या शारांत रेल्वेची व्हड कर्मशाळा आसा. झांशी शाराचे अस्तंतेक दोंगराचेर एक किल्लो आसा. तेभायर लक्ष्मीदेवूळ, दुर्गेचें देवूळ, मुरली मनोहर आनी राणी महाल अशीं जायतीं

पळोवपासारकीं थळां आसात.

हें शार आग्रासावन दक्षिणेक सुमार २१० किमी. अंतराचेर आसा. हें शार रेल्वेमार्गाचें प्रस्थानक आनी रस्त्याचें व्हड केंद्र आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**झांशीची राणी लक्ष्मीबाई:** (जल्म: १९ नोव्हेंबर १८३५, काशी-बनारस; मरण: १८ जून १८५८, ग्वाल्हेर).

१८५७ च्या बंडांत ब्रिटिशांआड झुजपी एक पराक्रमी बायल. तिचो जल्म एका कऱ्हाडे ब्राह्मण कुटुंबांत जालो. तिचो बापूय मोरोपंत तांबे हो दुसरो चिमाजी आप्पा हांचो खासगी कारभारी आशिल्लो. तिचें मूळ नांव मणिकर्णिका अशें आशिल्लें. आवय-बापूय तिका अपुर्बायेन मनुबाई म्हण्टाले. मनुबाई ३-४ वर्सांची आसतनाच तिची आवय भागीरथीबाई अकस्मात भायर पडली. तेन्ना मनुबाईक घेवन तिचो बापूय ब्रह्मावर्त हांगा दुसरो बाजीराव पेशवे हाच्या आलाशिऱ्याक गेलो. थंय पेशवे घराण्याच्या राजकी वातावरणांत आनी बाजीरावाचे पोसके चले नानासाहेब आनी रावसाहेब तशेंच तात्या टोपे हांच्या सांगातांत तिचें भुरगेपण गेलें. तांचेवांगडा तिणें मराठी भास, मोडी लिपी आनी हेर शिकप घेतलें. पेशवे तिका अपुर्बायेन 'छबिली' म्हण्टाले. घोड्यार बसप, तरसाद वावडप, तुबक चलोवप, शिकार करप ह्या ताकदीच्या खेळांतूय ती कसबी जाली. ती सुंदर, बुध्दीमान, शूर आनी धाडसी आशिल्ली.

१८४२ त म्हळयार पिरायेच्या आठव्या वर्सा मनुबाईचें लग्न झांशीचो महाराज गंगाधरराव हाचेवांगडा जालें आनी ती झांशीची राणी लक्ष्मीबाई जाली. तिचो बापूय मोरोपंत हाका झांशीच्या दरबारांत सरदारकी मेळ्ळी. झांशीक आसतना ती राज्यकारभाराचें बरेतरेन प्रशासन करपाक शिकली. तिच्या हेर गुणांकूय हांगा बरी पोसवण मेळ्ळी. गंगाधरराव आनी लक्ष्मीबाई हांकां १८५१ त एक चलो जालो पूण तो रोखडोच भायर पडलो. मागीर गंगाधररावान आपल्याच घराण्यांतलो पांच वर्सां पिरायेचो आनंदराव हो भुरगो पोसको घेतलो आनी ताचें नांव दामोदर अशें दवरलें. १८५३ त गंगाधरराव हाका मरण आयलें. उपरांत १८५४ त लॉर्ड डलहौसी हाणें 'पोसकीं भुरगीं' नामंजूर थारावन झांशी संस्थान खालसा केलें. पोसको वारस नामंजूर केलो हाचेविशींचें गाराणे तिणें ब्रिटीश सरकारामुखार मांडलें, पूण ताचो कांयच उपेग जालो ना. कांय थारावीक वर्सुकी निवृत्तिवेतनाचेर तिका किल्लो सोडचो पडलो. राज्य खालसा जाल्ल्यान तिका खूब खंत भोगली. देवधर्म, पूजा, दानधर्म आनी हेर आध्यात्मिक कार्यावळींनी ती आपलो वेळ घालोवपाक लागली.

१८५९ त क्रांतीझूज सुरू जालें आनी क्रांतीचें ल्हार झांशीक पातळ्ळें. थंयच्या हिंदी सैनिकांनी सगळ्या ब्रिटीश अधिकाऱ्यांची कत्तल करून झांशीचो किल्लो काबीज केलो. तांणी राणी लक्ष्मीबाईक झांशीचें राज्य आपल्या हातांत घेवपाची विनंती केली आनी राणयेन खोशयेन राज्य कारभाराचीं सूत्रां हातांत घेतलीं. सुमार १० म्हयने झांशी प्रांताचेर राणी लक्ष्मीबाईचें राज्य चालू आशिल्लें. ह्या काळांत झांशीचे शिमेवेल्या दतिया आनी ओर्छा ह्या संस्थानांच्या संस्थानिकांनी झांशीक रेवंडो घालो; तेन्ना तिणें व्हडा धाडसान तांचेआड झूज दिवन ह्या दोन संस्थानांकडेन शांततायेची कबलात केली.

उपरांत, झांशी संस्थानांत जाल्ले ब्रिटिशांचे कत्तलींत राणी लक्ष्मीबाई जापसालदार आसा असो आरोप दवरून गव्हर्नर कॅनिंग हाणें तिका धरपाखातीर सर ह्यू रोज हाका धाडलो. व्हडा सैन्यासयत रोज हाणें २० मार्च १८५८ दिसा झांशीक रेवंडो घालो. राणयेन तात्या टोपे, नानासाहेब पेशवे हांकां मदत करपाक आपयले. इकरा दीस तिणें ब्रिटिशांचो खर प्रतिकार केलो. बाराव्या दिसा ब्रिटिशांनी शारांत घुसून कत्तल जाळपोळ आनी लुटालुट सुरू केली. किल्ल्यांतलो दारुगोळो सोंपिल्लो आनी फितुरीय वाडटाली. ताका लागून राणयेक पळून वचपाबगर आनी कांयच उपाय नाशिल्लो. निमाणें ती पोसक्या भुरग्याक फाटीक बांदून दादल्यांच्या भेसांत सुमार ३०० वेंचिक लोकांक घेवन झांशीतल्यान भायर सरली आनी ब्रिटिशांची फळी मोडून पयलीं काल्पी हांगा गेली. थंय तात्या टोपे आनी रावसाहेब पेशवे हांकां मेळून तिणें फुडल्या झुजाची तयारी केली. पूण ह्या संयुक्त सैन्याचेर जनरल रोज हाणें पूंच आनी काल्पी हांगच्या झुजांत जैत मेळयलें. उपरांत लक्ष्मीबाई बंड करपी लोकांक घेवन ग्वाल्हेर गेली. ग्वाल्हेर काबीज करून थंयचें मराठी सैन्य तिणें आपलेवटेन हाडलें आनी नानासाहेब पेशव्याक पेशवेपद दिलें. उपरांतचो थोडो काळ सवस्तकायेंत गेलो. फुडें रोज आनी स्मिथ हांच्या सैन्यान ग्वाल्हेरचेर घुरी घाली. ह्या झुजांत राणी प्राणपणान लडली. झुजता आसतना गुळी लागून ती जखमी जाली. तेन्ना तिचो एकनिश्ठ सेवक रामचंद्रराव हाणें तिका उबारून लागींच आशिल्ल्या गंगादास बाबा नांवाच्या साधूचे खोंपींत व्हेली. थंयच तिका मरण आयलें. तिचे निमाणे संस्कार जे सुवातीर जाले, थंय स्वतंत्रतायेउपरांत एक यादस्तीक बांदलां.

राणयेचे हुशारेची आनी धाडसाची इतिहासकारांनी, ग्रंथकारांनी आनी हेर जायत्या जाणांनी उपाट तुस्त-तोखणाय केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**झाकिर हुसेन:** (जल्म: ८ फेब्रुवारी १८९७, खामगंज-फरूकाबाद-उत्तर प्रदेश; मरण: ३ मे १९६९, नवी दिल्ली).

भारताचो तिसरो राश्ट्रपती आनी एक नामनेचो शिक्षणतज्ञ. ताचो जल्म एका उच्च मध्यम वर्गीय मुसलमान पठाण घराण्यांत जालो. ताचो बापूय फिदा हुसेन खान हो नामनेचो वकील, झाकिर ९ वर्सांचो आसतना भायर पडलो. झाकिराचें मुळावें शिकप इस्लामिया हायस्कुल, इटावा हांगा जालें. उपरांत एम्.ए. मेरेनचें शिकप ताणें एम्.ए.ओ. कॉलेज, अलीगड हांगा केलें.

जेन्ना भारतीय राश्ट्रीय कॉंग्रेस आनी अखिल भारतीय खिलाफत समिती हांणी एकठांय जावन असहकार चळवळ सुरू केली, तेन्ना महात्मा गांधीन देशभर भोंवडी करून शिक्षकांक आनी विद्यार्थ्यांक सरकारी शाळा-कॉलेजां सोडपाक आवाहन केलें. ह्या काळांत तरनाटे पिरायेचेर शिकोवपी आनी शिकपी झाकिर हुसेन विद्यार्थी मळार आनी हेर वांगड्यांमदीं खूब लोकप्रिय आशिल्लो. ताणें हाकीम अजमल खान आनी हेर फुडारी हांच्या पालवान २९ ऑक्टोबर १९२० दिसा अलिगड हांगा 'जामिआ मिलिया इस्लामिया' हे संस्थेची थापणूक केली. उपरांत १९२३ त, झाकिर हुसेन उच्च शिक्षण घेवपाखातीर जर्मनीक गेलो. थंयच्या बर्लिन विद्यापीठांत अर्थशास्त्र विशयांतली डॉक्टरेट मेळोवन १९२६ त तो भारतांत परत आयलो. फुडें ताणें आपलें पुराय जीवित हे संस्थेक समर्पित केलें.

'जामिआ मिलिया इस्लामिया' हे संस्थेचें संविधान हेर शिक्षणीक संस्थांपरस वेगळें आशिल्लें. राश्ट्रीय उदरगत आनी एकचार मतींत घेवन मुसलमानांक धर्मीक शिक्षण दिवचें, तशेंच सगळ्या जाती जमातींत समजिकाय निर्माण करची, हो ताचो उद्देश आशिल्लो. १९२५ त ही संस्था दिल्लीक हालयली, तेन्ना तिचो झाकिर हुसेन १९२६ त 'शैकु जामिया' (कुलगुरु) जालो. ताणें सुमार बावीस वर्सां (१९२६-४८) हे संस्थेंत काम केलें आनी तिका एका अभिनव शिक्षणसंस्थेचें स्वरुप दिलें. शिक्षणाच्या मळार वावुरतना ताणें महात्मा गांधी आनी जर्मन शिक्षणशास्त्रज्ञ केर्शेनस्टाइनर हाचेकडल्यान स्फूर्त घेतली. विद्यापीठांत बौध्दिक स्वतंत्रताय, विचारांची स्वतंत्रताय आनी भाशणांची स्वतंत्रताय पुराय आसची आनी व्यासंगी विद्वानांची ती माची जावंची; कारण असल्या वातावरणांत विद्यार्थ्यांची उदरगत बरेतरेन जाता, अशें ताका दिसतालें. ताणें आप-शिक्षणाचेर भर दिवन नवे शिक्षणीक विचार जामिआ मिलियांत सुरू केले. शिक्षणीक तत्त्वगिन्यानाचो खोल अभ्यास आनी शिक्षणीक मळावेलो अणभव, हांकां लागून १९३८ त, तो मोलोद्योग शिक्षण समितीचो अध्यक्ष जालो. १९३८-४८ ह्या काळांत हिंदुस्तानी तालिमी संघ, सेवाग्राम हाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.

१९४८-५६ ह्या काळांत ताणें अलिगड मुस्लिम विद्यापीठाचो कुलगुरु म्हूण काम केल्लें. यूनेस्को, विद्यापीठ अनुदान आयोग, मध्यवर्ती माध्यमिक मंडळ, विद्यापीठीय शिक्षणीक आयोग, बिहार, उत्तर प्रदेश

आनी मध्य प्रदेश ह्या राज्यांची शिक्षणीक पुर्नसंघटना समिती आनी हेर जायत्या शिक्षणीक समित्यांचेर ताणें काम केलें. 'संवसारीक विद्यापीठीय सेवा' (World University Service) हांणी ताका भारतीय राश्ट्रीय समितीचो अध्यक्ष केलो आनी १९५४ त हे संस्थेचेर आंतरराश्ट्रीय अध्यक्ष ह्या पदाचेर ताची नेमणूक जाली. १९५६ त तो राज्यसभेचेर वेंचून येतकच १९५६-५८ ह्या काळांत भारतीय प्रतिनिधी म्हूण युनेस्कोच्या कार्यकारी मंडळाचेर ताणें काम केलें. १९५७ त, तो बिहारचो राज्यपाल जालो आनी १९६२ त, भारताचो उपराश्ट्रपती जालो. १९६७ त, तो भारताचो राश्ट्रपती जालो. ह्या उच्च पदाचेर आसतनाच ताका अकस्मात मरण आयलें.

पद्मविभूषण (१९५४) आनी भारतरत्न (१९६२) दिवन, भारत सरकारान शिक्षणाच्या मळावेल्या ताच्या मोलादीक वावराचो भोवमान केलो. दिल्ली, कलकत्ता, अलिगड, अलाहाबाद आनी कायरो विद्यापीठांनी ताका डी. लिट्. पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो.

शिक्षण, अर्थशास्त्र ह्या विशयांवयले आपले विचार ताणें व्याख्यानांवरवीं मांडले. ताचीं पदवीदान सुवाळ्यांनी दिल्लीं आनी हेर व्याख्यानां 'The Dynamic University' ह्या नांवान उजवाडाक आयल्यांत. ताणें जर्मन भाशेंत महात्मा गांधीचें चरित्र बरयलें. प्लॅटोचें 'Republic' आनी कॅननचें 'Elementary Political Economy' ताणें उर्दू भाशेंत अणकारलें. ल्हान भुरग्यांखातीर ताणें कांय काणयो बरयल्यो.

एक नेमस्त, चारित्र्यवान आनी शिक्षणतज्ञ असो राश्ट्रीय मुस्लिन फुडारी म्हूण ताचो वावर खूब म्हत्वाचो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**झिंबाब्वे:** झिंबाब्वे प्रजासत्ताक. आदलें नांव ऱ्होडेशिया. दक्षिण आफ्रिकेंतलें एक स्वतंत्र राश्ट्र. हाचे दक्षिणेवटेन दक्षिण आफ्रिकेचें प्रजासत्ताक, नैर्ऋत्य आनी अस्तंतेक बोटस्वाना, उत्तरेवटेन झांबिया आनी ईशान्य आनी उदेंतेवटेन मोझंबीक देश आसात. क्षेत्रफळ ३,९०,७५९ चौ.किमी. राजधानी हरारे (पयलींची सॅलीसबरी).

**भूंयवर्णनः** झिंबाब्वेचो पुराय वाठार समुद्र थरासावन सुमार ३०० मी. परस चड उंचायेचेर आसा. ईशान्य-नैर्ऋत्य पातळिल्ल्या पठारांची उंचाय १,२१९ मी. ते १६७५ मी. मेरेन आसा. अस्तंतेवटेनची उम्टाली ही दोंगरावळ १८२९ मी. ते २,४३८ मी. मेरेन उंचायेची आसा. सगळ्यांत ऊंच दोंगरातेंगशी म्हळ्यार माऊंट इन्यांगी (२,५९५ मी.). ह्या देशांतली मुखेल न्हंय साबी. हेर न्हंयो शेजारच्या देशांतल्यान हांगा व्हांवत येतात. हे भायर लुंडी, झांबेझी, लिंपोपो ह्यो मुखेल आसात. ह्या देशाच्या झांबियावटेनचे शिमेर कारिबा सरोवर आसा.

**हवामान, वनस्पत आनी मोनजातः** चोंय वटांनी जमीन आशिल्ल्यान आनी ह्या देशाक खंयचेच वटेन दर्यादेग नाशिल्ल्याचो हवामानाचेर परिणाम जाता. नोव्हेंबर ते मार्चमेरेन उश्ण आनी पावसाळ्याचो ऋतू आसता. मे ते ऑगस्ट मेरेन शिंयाळो आनी ऑगस्ट ते ऑक्टोबर मेरेन गिम आसता. उंचेल्या वाठारांनी गिमांत तापमान २६.७° से. ते ३२.२° से. आनी शिंयाळ्यांत १२° से. ते १३° से. इतलें आसता. उंचेल्या वाठारांनी पावस चड पडटा. थंय वर्सुकी पावसाचें प्रमाण १०२ सेंमी. आसा. उणे उंचायेच्या वाठारांत वर्सुकी पावस ४१ ते ६१ सेंमी. आनी कांय वाठारांनी ताचेयपरस उणो पडटा.

ह्या देशांत सॅव्हाना प्रकारचें तण सगळेवटेन दिश्टी पडटा. रानांय कांय वाठारांनी आसात. रानांनी साग, बॅओबा, निलगिरी हांचेवांगडा तरेकवार झोंपां आनी ल्हानसान तरांतरांचे रुख आसात.

शिंव, बिबटो वाग, चित्तो, सीव्हेट, काळें आनी तपकिरी तरस, कोलसुणें, कोलो, झोरिला, रॅटेल, मुयो खावपी प्राणी, हत्ती ह्या सारकी मोनजात आसा. न्हंयांनी मानगीं आनी हिप्पो दिसून येतात. मांबा, बूमस्लँग, काळ्या गळ्याचो पारो हे सोरोप तशेंच बॅबून माकडां हांगा आसात. हांगाच्या हेर तरेकवार सुकण्यावांगडा गरुडांचें प्रमाण बरेंच चड आसा.

**इतिहासः** अश्मयुगीन संस्कृतायेचे ५,००,००० वर्सांपयलींचे अवशेश ह्या देशांत सांपडल्यात. सान हे आयजमेरेन बोटस्वानांतल्या कलहरी वाळवंटांत सांपडपी लोक ह्या पोरन्या लोकांचे वंशज आसूंये अशें जाणकारांचें मत आसा. बांटू भाशा उलयतल्या लोकांनी ह्या लोकांक वाळवंटांत धांवडावन घाल्ले अशें म्हण्टात. ५ व्या ते १० व्या शतमानाच्या काळांत बांटू हांगा पाविल्ले. आफ्रिकेंतल्या हेर बऱ्याच देशांभशेन ह्याय देशाची म्हायती संवसारातल्या हेर लोकांक नाशिल्ली. १५ व्या शेंकड्यांत पोर्तुगेजांनी आफ्रिकेच्या खंडांत उदेंत-अस्तंत मार्ग सोदपाचो यत्न केलो. तेन्ना तांचो ह्या वाठाराकडेन संपर्क आयिल्लो. डेव्हिड लिव्हिंगस्टन त्या वाठारांत पावलो. तो वैजकी मिशनरी आशिल्लो. ताच्या हांगा येवपाउपरांत युरोपीयन हांगा बऱ्याच व्हडा संख्येन येवंक लागले. १८९३ ते १८९८ ह्या काळांत सर सेसिल जॉन ऱ्होडस हाणें हांगा ब्रिटीश वसाहतवादाची बुन्याद घाली. ताणें आपल्या सैन्याच्या बळाचेर हांगा शेक पातळावन सॅलीसबरी शाराची थापणूक केली. ह्या वाठाराक 'ऱ्होडेशिया' म्हण्टाले. ब्रिटीश साउथ आफ्रिका कंपनीवरवीं हांगाचो राज्यकारभार चलूंक लागलो. १९२३ त ऱ्होडेशियाच्या दक्षिण वाठाराचेर ब्रिटीश सरकाराची थेट सत्ता चलूंक लागली आनी उपरांत धा वर्सांनी पुराय देश ब्रिटीश साउथ आफ्रिका कंपनीचें शासन वचून ब्रिटीश सरकाराचे सत्तेखाला आयलो.

१९५३ त न्यासालँड, उत्तर आनी दक्षिण ऱ्होडेशिया हांचे मेळून एक संघराज्य निर्माण जालें, पूण १९६३ त ह्या संघराज्यांचें विसर्जन जालें आनी ऱ्होडेशिया स्वतंत्रताय मेळोवपाचे नदरेंतल्यान यत्न करूंक लागलो. काळ्या आनी गोऱ्यांमदीं सत्तेक लागून वाद जालो आनी हो वाद मिटचेपयलींच १९६५ त पंतप्रधान इयान स्मिथ हाच्या फुडारपणाखाल दक्षिण ऱ्होडेशियान स्वतंत्रताय जाहीर केली. १९७० त ऱ्होडेशियान प्रजासत्ताकाची घोशणा केली. हे गजालीक ब्रिटन संयुक्त राश्ट्रां आनी बऱ्याच आफ्रिकन राश्ट्रांचो विरोध जालो. ऱ्होडेशियांचेर तांणी अर्थीक बहिश्कार घालो. देशांतली परिस्थिती इबाडूंक लागली आनी बंडखोरींचें प्रमाण वाडलें. इयान स्मिथ हाणें ह्या वेळार झिंबाब्वे आफ्रिकन नॅशनल युनियन आफ्रिकन नॅशनल युनियन आनी झिंबाब्वे नॅशनल पीपल्स युनियन ह्या राश्ट्रवादी पक्षांवांगडां कबलात केली. १९७९ त इयान स्मिथ हाणें नवें संविधान मुखार दवरलें आनी बिशप आबेल मुझोरेवा हाका पंतप्रधान करून सरकाराची थापणूक केली. ह्या सरकाराक 'झिंबाब्वे आफ्रिकन पीपल्स युनियन' आनी 'झिंबाब्वे आफ्रिकन नॅशनल युनियन' हांणी जोशुआ एन्कोमो आनी रॉबर्ट मुगाबे हांच्या फुडारपणाखाल विरोध केलो. १९८० त हांगा रॉबर्ट मुगाबे पंतप्रधान जालो. एन्कोमो आनी ताचेमदीं मतभेद जाले आनी १९८२ त ताणें एनकोमो हाका आपल्या मंत्रीमंडळांतल्यान काडून उडयलो. ताचेपयलीं १९८० त ह्या देशाचें ऱ्होडेशिया हें नांव बदलून झिंबाब्वे प्रजासत्ताक अशें दवरलें. १९८५ त मुगाबे आनी एन्कोमो हांचे संबंद सुदारले. त्याच वर्सा जाल्ल्या वेंचणुकांतल्यान रॉबर्ट मुगाबे हाका पर्थून पंतप्रधान म्हूण लोकांनी वेंचून काडलो. सद्यामेरेन तोच हांगाचो पंतप्रधान आनी कनान बनाना हो राश्ट्रपती जावन आसा.

**राज्यवेवस्थाः** १९८० त जाहीर केल्ल्या संविधानाप्रमाण झिंबाब्वे हो एक प्रजासत्ताक देश आसा. राश्ट्राध्यक्ष हो नांवापुरतो देशाचो मुखेली आसता आनी खऱ्या अर्थान देशाचो आनी सरकाराचो मुखेल पंतप्रधान आसा. हांगाचें विधीमंडळ दोन घरांनी भरता. काळ्या आनी गोऱ्या लोकांखातीर मतदान पध्दत वेगवेगळी आसा. विधीमंडळाच्या एका घरांत गोऱ्यांखातीर २०% जाल्यार दुसऱ्या घरांत २५% जागे राखीव आसात. थळाव्या राज्यकारभाराखातीर देशाचे सात प्रांत केल्यात, पूण ह्या प्रांतांनी खासा अशें प्रांतीय सरकार नासता. केंद्र सरकारावरवींच ह्या प्रांतांचो राज्यकारभार चलता. शारांचे प्रशासन नगरपालिका सांबाळटा. गांवांगांवांनी सरकारान नेमिल्ले गांवमुखेली हेर प्रशासनाचो भार सांबाळटात.




**अर्थीक स्थितीः** शेतवडींतल्यान ह्या देशाक राश्ट्रीय उत्पादनांतलो २०% वांटो मेळटा. मको, ऊंस, कापूस, सोयाबीन तंबाखू हीं हांगाचीं मुखेल पिकां आसात. काफी, बटाट हांचेय पीक हांगा काडटात. गंवाची लागवड हालींच्या काळांत सुरू केल्या. रानांनी आशिल्ल्या रुखांच्या लांकडाचोय अर्थीक उदरगतीक पालव मेळटा. गोरवां पोसपाचो उद्येग बऱ्याच वाठारांनी चलता. हांगाच्या खणींनी भांगर, क्रोम, निकेल, कोळसो हे सारकी खनिज संपत्ती आसा. तांबें, फॉस्फेट हे सारकीं खनिजांय बरेचकडेन सांपडल्यात. नुस्तेमारीचो धंदो कांय प्रमाणांत हांगाच्या न्हंयांतल्यान चलता. हांगाचे धबधबे, सरोवरां पळेवपाखातीर संवसारांतल्या बऱ्याच देशांतल्यान पर्यटक हांगा येतात.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत हांगाच्या उद्येग-धंद्यांची उदरगत जावंक सुरवात जाली. अन्नाचे पदार्थ, रसायनां, कपडो, पेयां आनी तंबाखू आदी उद्येगांचे कारखाने हांगा आसात. ह्या देशांतल्यान अस्तंत आफ्रिका, ब्रिटन, जर्मनी, अमेरिका, जपान, इटली ह्या सारक्या आनी हेर देशांकडेन तंबाखू, भांगर, हेर धातू, साकर, मको हांची निर्यात जाता. ह्या देशांत यंत्रां आनी वाहनां, रसायनां, पेट्रोलियन हे सारक्या गजालींची अस्तंत आफ्रिका, ब्रिटन, अमेरिका, अस्तंत जर्मनी, जपान, फ्रांस, बोटस्वाना इटली ह्या सारक्या देशांतल्यान आयात जाता.

झिंबाब्वे डॉलर हें हांगाचें अधिकृत चलन आसा.

**येरादारी आनी संचारणः** १९८५ मेरेन ह्या देशांत ८५,००० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. हातूंतले १४% पक्के आशिल्ले. रेल्वेमार्गांची लांबाय ३,३९४ किमी. आशिल्ली. ह्या देशाक दर्याकडेन संपर्क हांगाच्या न्हंयांवरवीं येता. पूण दर्याकडेन पावपाखातीर मोझांबीक वा अस्तंत आफ्रिका हे देश हुपचे पडटात. एअर झिंबाब्वे ही ह्या देशांतली हवाई मार्गांचेर नियंत्रण दवरपी विमान कंपनी जावन आसा. ह्या देशांत आठ मुखेल विमानतळ आसात. हेर देशांतल्यो विमान कंपन्योय ह्या देशाकडेन हवाई मार्गावयल्यान येरादारी करतात.

झिंबाब्वेंत राश्ट्रीय पांवड्यावयलीं दोन दिसाळीं उजवाडाक येतात. 'हॅरल्ड' आनी 'द क्रॉनिकल' हे भायर हेर नेमाळ्यांचीय संख्या बरीच व्हड आसा. रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी वयल्यो कार्यावळी चडश्यो इंग्लीश भाशेंतल्यान जातात. हे भायर एन्डेबेले, न्यांजा आनी शोना ह्याय भाशांचो वापर जाता.

प्रसारमाध्यमांचेर सरकारी नियंत्रण ना. तांच्या वावराक हांगा बरीच स्वतंत्रताय आसा.

**लोक आनी समाजजीणः** वंशीक नदरेन हांगाचे ९७% परस चड लोक आफ्रिकन आसात. उरिल्ले युरोपीयन, आशियाई आनी हेर वंशांचे आसात. ४४.८ % लोक किरिस्तांव (हातूंत प्रॉटेस्टंट, रोमन कॅथलिक आनी खाशेले आफ्रिकन हे पंथ आसात). ४०.४% जडप्राण वादी (animists) आनी उरिल्ले हेर धर्माचे आसात.

पोरन्या आफ्रिकन कलाकुसरी वांगडा आनी हेर सांस्कृतीक प्रकारांवांगडा हांगा भायल्या युरोपीय देशांतली कला बरीच उदरगतीक पावल्या. पारंपारिक नृत्य आनी संगीत हांचेवांगडा युरोपीय नृत्य आनी संगीत लोकांमदीं प्रिय जायत आसा. क्रिकेट, टेनिस हे खेळ हांगाचे लोक आवडीन खेळटात.

**शिक्षणः** झिंबाब्वेचें राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण २५% ते ३०% आसा, पूण गोरे कातीच्या लोकांमदीं साक्षरतेचें प्रमाण सुमार १००% आसा.

७ ते १५ वर्सांचे पिरायेमेरेन शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसा. मुळाव्या, माध्यमिक आनी उंचेल्या अशा तीन पांवड्यावयल्यान शिक्षण हांगा दितात. वेवसायिक शिक्षणाचोय वावर हांगा जाता. सॅलीसबरी, बुलावायो, उम्टाली, क्वे क्वे आनी ग्वेलो ह्या शारांनी ऐच्छिक शिक्षण दिवपी संस्था आसात. झिंबाब्वे विश्वविद्यालय उंचेल्या शिक्षणाची जापसालदारकी सांबाळटा.

हांगाचें शिक्षणाचें माध्यम पुरायपणान इंग्लीश भाशेंतल्यान आसा. ह्या देशांतले बरेच विद्यार्थी शिक्षणाखातीर अमेरिका, ब्रिटन, भारत, कॅनडा हेसारक्या देशांनी वचून रावल्यात.

**भाशाः** इंग्लीश ही ह्या देशाची अधिकृत भास. शोना, एन्डेबेले, न्यांजा ह्योय भाशा वेव्हारांत बऱ्योच उपेगी आसात. हेभायर हेर बऱ्योच आफ्रिकन भाशा हांगाच्या लोकांमदीं प्रसारांत आसात.

**म्हत्वाचीं थळां:** हरारे ही राजधानी, बुलावायो, चिटुंग्वीझा, ग्वेरु, मुटारे, हीं शारां लोकसंख्या, उदरगत आनी हेर नदरेंतल्यान म्हत्वाचीं आसात. पर्यटन थळांय जायतीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**झिगमोंडी, रिखार्ट आडोल्फ:** (जल्म १ एप्रिल १८६५, व्हिएन्ना-ऑस्ट्रिया; मरणः २४ सप्टेंबर १९२९, गटिंगेन-अस्तंत जर्मनी).

ऑस्ट्रेलियन रसायनशास्त्रज्ञ. १८८९ त ताणें म्यूनिक (जर्मनी) विद्यापीठाची पीएच्.डी. पदवी मेळयली. १८९३ त, ताणें ग्रात्स हांगाच्या तांत्रिक विद्यालयांत अध्यापन केलें. १९०७ त, तो गटिंगेन विद्यापीठांत प्राध्यापक आनी 'Institute of Inorganic Chemistry' हे संस्थेचो संचालक जालो.

कलिक रसायनशास्त्राची (Colloidal Chemistry) घटमूट बुन्याद घालून ताणें तातूंत आर्विल्ल्यो संशोधन पध्दती सोदून काडल्यो आनी तांचो उपेग करून कलिल विद्राव (Colloidal Solutions) विशमांगी (heterogenous) आसतात, हें सिध्द केलें. विद्युत् विच्छेद्यांक (electrolytes) हांकां लागून कलिलांचें किलाटन (coagulation) जावपाची यंत्रणा आनी जेलांची (gels) संरचना, हांचेविशीं ताणें मोलादीक संशोधन केलें. कलिलांचें पध्दतशीर संशोधन करपाखातीर ताणें अतीत सूक्ष्मदर्शक (ultramicroscope) हें उपकरण सोदून काडलें. ह्या मोलादीक वावराखातीर १९२५ त, रसायनशास्त्र विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार ताका फाव जालो. ताच्या ह्या वावराक लागून जीवरसायनशास्त्र, सूक्ष्मजंतुविज्ञान आनी मृदा (soil) भौतिकी ह्या विशयांतले कांय प्रस्न सोडोवप सोपें जालें. ताणें कांय ग्रंथ बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**झिग्लर, कार्ल:** (जल्मः २६ नोव्हेंबर १८९८, हेल्सा-अस्तंत जर्मनी; मरणः १२ ऑगस्ट १९७३, मुल्हेम).

जर्मन रसायनशास्त्रज्ञ. ताणें १९२० त, मार्बर्ग विद्यापीठाची डॉक्टरेट मेळयली. कांय काळ फ्रँकफर्ट हांगा व्याख्यातो म्हूण काम करतकच १९२७ त, ताणें हायडल्बर्ग विद्यापीठांत रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक म्हूण काम केलें. १९३६ त 'केमिकल इन्स्टिट्यूट हालेसाल' हे संस्थेचो तो प्राध्यापक आनी संचालक जालो. १९४३ त, तो मुल्हेम-इ-रुर हांगाच्या 'काइसर विल्हेल्म इन्स्टिट्यूट फॉर कोल रिसर्च' हे संस्थेचो संचालक जालो आनी १९६९ त, निवृत्त जायमेरेन ताणें थंय काम केलें.

झिग्लर हाणें Organoaluminium संयुगां ह्या विशयाचेर म्हत्वाचें संशोधन केलें. नवे उत्प्रेरक (catalysts) वापरून ताणें Ethylene आनी Butadiene हांचे लांब सरसळ्यो आशिल्ले बहुलक (polymers) तयार करपाचो सोद लायलो. ताच्या ह्या मोलादीक संशोधनाक लागून प्लास्टिक कारखान्यांत एक नवें पर्व सुरू जालें. उंचेले बहुलक तयार करपाच्या संशोधनाखातीर झिग्लर हाका १९६३ त, रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार गिलियो नाटा ह्या शास्त्रज्ञावांगडा वांटून मेळ्ळो. ताणें कृत्रिम प्लास्टिक, धागे (fibres), रबराचें संश्लेशण आनी फिल्मां तयार करपाविशीं म्हत्वाचें संशोधन केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**झिम्मा:** महाराष्ट्रांतल्या बायलांचो एक नृत्याचो प्रकार. हातूंत बायलो वाटकुळयो उब्यो रावतात आनी नाचतासतना एक फावट स्वताच्या तर दुसरे फावट दुसरे बायलेच्या हाताचेर ताळी वाजयतात. झिम्मा खेळटना स्वताभोंवतणी घुंवल्या उपरांत ताळी दिवपाची आसता. कांय फावट बायलो वर्तुळांत जोडयेन उब्यो रावतात आनी एकामेकांच्या हातार ताळयो दिवन फुडें वतात. सुर्वेक हो नाच ल्हव ल्हव सुरू जाता आनी उपरांत तातूंत नेट भरता. झिम्म्याचो 'खांदी झिम्मा' म्हूण आनीक एक प्रकार आसा. तातूंत दोन चलयो एकामेकांमुखार उब्यो रावन एकामेकाच्या हातार हात मारतात आनी उपरांत हात फाटल्यान घेवन ते खांदार दवरतात. हें जातकच आपले भोंवतणी एक वाटकुळी गिरकी मारून झिम्म्यावरी हाताचेर हात मारतात. झिम्मा खेळटना गीतां गावपाचीय चाल आसा. तातूंतलें एक गीत अशें:

झिम्मा खेळूं कडाकडी अबीर बुक्का नाडापुडी ।।<br>
झिम् पोरी झिम् कपाळीचें भिंग ।<br>
भिंग गेले फुटून। पोरी गेल्या उठून।।<br>
आंबा पिकतो । रस गळतो ।।<br>
कोकणचा राजा झिम्मा खेळतो।।

- कों. वि. सं. मं.

**झीमान, पीटर:** (जल्मः २५ मे १८६५, झोन्नेमारी-नेदरलँड्स; मरणः ९ ऑक्टोबर १९४३, ॲम्स्टरडॅम).

डच भौतिकीविज्ञ. शिकप लायडन विद्यापीठांत जालें. त्याच विद्यापीठांत ताणें १८९०-१९०० मेरेन अध्यापनाचें काम केलें. १९०० त ताची ॲम्स्टरडॅम विद्यापीठांत भौतिकीचो प्राध्यापक म्हूण नेमणूक जाली. १९०८ तो ॲम्स्टरडॅम हांगाच्या फिजिकल इन्स्टिट्यूटचो संचालक जालो.

१८९६ त ताणें तीव्र भायल्या चुंबकीय वाठारांत वर्णपट (spectrum) रेशांचें विभाजन जाता, हो म्हत्वाचो सोद लायलो. वर्णपट रेशांचे ते घटक ध्रुवित (polarised) आसतात, अशें ताणें सिध्द केलें. ह्या सोदाक भौतिकशास्त्रांत 'झीमान परिणाम' (Zeeman Effect) अशें म्हण्टात. ताच्या ह्या सोदाखातीर आनी प्रारण (radiation) आविश्काराक लागून घडून येवपी चुंबकीय शक्तीविशीं ताणें केल्या असामान्य संशोधनाखातीर ताका १९०२ त, भौतिकशास्त्र विशयाखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार हेंड्रिक आंतोन लोरेन्ट्स ह्या शास्त्रज्ञावांगडा वांटून मेळ्ळो. चुंबकीय, प्रकाशकी आनी समस्थानिक (isotopes) ह्या विशयांतूय ताणें म्हत्वाचें संशोधन केलें. झीमान हाका ड्रेपर पदक, फ्रेंच इन्स्टिट्यूटचें पदक आनी रॉयल सोसायटीचें रम्फर्ड पदक हे भोवमान मेळ्ळे. तो रॉयल सोसायटीचो आनी फ्रेंच ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचो वांगडी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**झेन पंथ:** जपानांतलो एक धर्मपंथ. बौध्दांच्या महायान पंथांतलो चीनांत आनी जपानांत विकसीत जाल्लो हो एक पंथ आसा. संस्कृत ध्यान आनी पाली 'ज्झान' ह्या शब्दाचें चिनी भाशेंत लिप्यंतर करतना जीं लिपिचिन्हां वापरतात, तांच्या जपानी 'झेन्ना' ह्या उच्चाराचें 'झेन' हें संक्षिप्त रुप आसा. ध्यानसमाधी, मनन वा चिंतन हो ताचो मुळावो अर्थ आसून संवसार आनी मनीस जीण हांचें सत्य स्वरूप जाणून घेवपाखातीर विचार केंद्रित करपाचें तें अनुश्ठान जावन आसा.

गिन्यान मेळोवपाचें साधन म्हूण पूर्विल्ल्या काळासावन ध्यानसमाधीची कल्पना भारतांत अस्तित्वांत आशिल्ली. उपरांत ती ब्राह्मणी आनी जैन तत्त्वगिन्यानान आपणायली आसली, तरी तिका शास्त्रशुध्द बसका दिवपाचें काम शाक्य मुनीन म्हळ्यार गौतम बुध्दान थापणूक केल्ले बौध्द विचारसरणीन केलें. सामान्य मनीस लेगीत धर्मीक ध्यानमार्गावरवीं उंचेल्या पदाचेर पावंक शकता हाचो अणभव शाक्य मुनीक बोधि रुखासकयल केल्ले ध्यानसाधनेंत आयलो. सामान्य मनशाचे दिसपट्टे जिणेंत ह्या झेन मार्गाचो सोपेपणान उपेग जावंचो म्हूण शाक्य मुनीन ह्या ध्यानमार्गाची विसकटावणी केली.

चिनी आख्यायिकेप्रमाण बुध्दाचो अठ्ठाविसावो आचार्य बोधिधर्म हाणें चीनांत आनी जपानांत सव्या शेंकड्यांत ध्यान पंथाक सुरवात केली. बोधिधर्मान ९ वर्सां एके वण्टीवटेन तोंड करून तप केलें आनी तातूंत

ताचे पांय झिजून गेले. हाची खूण म्हूण जपानांत पांय नाशिल्ल्यो 'दारुमा' (धर्म) बावल्यो आयज लेगीत वापरतात. इतिहासांतल्या पुराव्यावरवीं झेन वा ध्यान पंथ चीनांत थांग राजवटीचे सुरवातीक आयलो आनी ताचेर चिनी ताओ (दाव्) पंथाचोय कांय प्रभाव पडलो. 'लंकावतारसूत्र' हो संस्कृत भाशेंतलो झेन संप्रदायाचो दार्शनिक ग्रंथ. हातूंत वर्णन केल्लो झेन प्रकार चीनांत आदर्श मानतात. चलप, उबो रावप, बसप आनी आड पडप ह्यो दिसपट्टे जिणेंतल्यो चार मुखेल क्रिया झेन पंथाचीं रुपां आसात.

बोधिधर्माचे विचार प्रमाण मानून ध्यानसाधनेक पुराय म्हत्व दिवपी ताच्या शिष्यांनी एक पंगड तयार केलो. एक धर्मपंथ म्हूण झेनची अशे तरेन सुरवात जाली. बोधिधर्मापसून सुरवात केल्यार, झेन पंथाचो 'सवो धर्मगुरु' हुई-नेंग (इ.स. ६३८ ते ७१३) हाच्या काळामेरेन ह्या पंथाचीं मुळां चिनी समाजांत घट्ट जाल्लीं. एका मनांतल्यान दुसऱ्या मनांत संचरपी विचारांचेर भर, पुस्तकी शिकवणेचो त्याग, धर्मग्रंथांत उपदेश केल्ल्या सत्यापरस वेगळें अशें गूढ सत्य आसा अशें मत आनी स्वताचें खरें स्वरुप जाणून घेतकच मोक्ष मेळटा हो भावार्थ हीं झेन पंथाचीं मुखेल तत्त्वां आसात. अशे तरेन घडून आयिल्ली उदरगत तशेंच चीनांतल्या परंपरागत बौध्द धर्माकडेन ताचो आयिल्लो लागींचो संबंद हाका लागनू सुंग घराण्याच्या काळानेरेन ताचें स्वरुप निश्चित जालें. ल्हव ल्हव चीनांत पवित्र बौध्द देवळां बांदलीं. ह्या देशांत एके मुखेल मुर्तीची पूजा आनी चिनी बौध्द धर्मपंथांतल्या हेर जायत्या तत्त्वांचो आस्वाव केलो. तेभायर, झेन 'गुंग-आन्' वा 'को-आन्' नांवाचें एक तर्कविरयत कुवाडें ध्यानसाधनेचें साहित्य आनी गिन्यान मेळोवपाचें साधन म्हूण तयार केलें; हें कुवाडें झेन पंथाचें खाशेलपण जालें. ध्यानसाधनेचे विशय आनी साधकाची झेनच्या गिन्यानाविशीं परिक्षा घेवपाखातीर दिल्लें 'को-आन्' हें जावन गेल्ल्या झेन गुरुचें अनुभूतीचें लिखाण जावन आसा. कांय काळाउपरांत, हें 'को-आन्' कुवाडें झेन पध्दतीच्या आध्यात्मिक अनुष्ठानाचें केंद्रबिंदू जालें. शंभर को-आन् कुवाड्यांचो झेलो आशिल्लो 'बि-एन्-लु' वा 'हेकिगान्-रोकु' तशेंच चिनी विद्वान युआन्-वू ख-च्यीन म्हळ्यार जपानी एंगो-कोकुगोन (१०६३-११३५) हाचो 'सुंग-बाय्-ज' हे ह्या विशयावयले सगळ्यांत चड प्रतिनिधीक ग्रंथ अशें मानतात. हातूंतलो 'सुंग-बाय्-ज' हो ग्रंथ झेन पंथाचो परिचयात्मक असो सगळ्यांत बरो ग्रंथ अशें मानप जाता. आयजवेर हो ग्रंथ 'झेन पंथांतल्या धर्मीक अनुष्ठानाचो मार्गदर्शक गिरो' म्हूण आपली सुवात तिगोवन आसा. एंगो-कोकुगोन्चे शिष्यपरंपरेंत जायते समर्थ अनुयायी तयार जाले आनी ताका लागून लीन्-च्यी वा रिंझाई पंथाचो प्रसार चीनभर जावन सुंगकाळांत चिनी झेन पंथाचें 'भांगरायुग' सुरू जालें.

जपानांत इ.स. सातव्या शेंकड्याच्या निमण्या काळांत ध्यान वा झेन संप्रदायाच्या प्रचाराक सुरवात जाल्ली. फुडें एईझाई (११४१-१२१५) हो जपानी भिक्षू चिनांत वचून ध्यान संप्रदायाचें शिक्षण घेवन आयलो आनी क्योतो नगरांत इ.स. ११९१ त ताणें एका ध्यानविहाराची थापणूक केली. थंय राजकूळ आनी सामुराई गोत्रे हांच्या पालवान ताचो प्रसार इतलो वाडलो की फुडें हो पंथ जपानी बौध्द विचारसरणीचो मुखेल फांटो जालो. पंदराव्या शेंकड्यांत ह्या पंथाची ३०० सरकारी (अधिकृत) आनी हजारांनी हेर मंदिरां जपानभर पातळिल्लीं आनी सामुराई समाजाचेर आनी संस्कृतायेचेर तांचो बरोच प्रभाव पडिल्लो.

उपरांतच्या काळांत ह्या पंथाचें म्हत्व मात्शें उणें जालें. पूण सतराव्या शेंकड्यांत, हाकुइन (१६८५-१७६८) हाणें झेनचो प्रकार एकदम सोपो करून विस्कटायिल्ल्यान सामान्य लोकांमदीं तो खूब लोकप्रिय जालो. ताका लागून रिंझाई पंथाचें पुनरुज्जीवन जावन समाजाच्या सकयल्या थरांतल्या साबार लोकांनी हो पंथ आपणायलो. आयज ताचे १४ उपपंथ आसून ५ ते ६ हजार मंदिरां आसात.

रिचर्ड रसबोल्ट ह्या युरोपीय शिष्यान क्योटोलागसार आशिल्ल्या एका ध्यानविहाराचें वर्णन केलां तें अशें: हांगाच्या विहारांत मदीं एक मंदिर आसून, एका कोनशांत एके ऊंच वण्टीफाटल्यान 'झेंडो' म्हळ्यार ध्यानाखातीर व्हडली कूड आसा. झेंडोंत वण्टीचे कडेक चारुय वटांनी ओटो आसा. तांचेर बसून भिक्षु ध्यान करतात. झेंडोंत फकत बुध्दाची मूर्त आसता. थंयची शिस्त पळोवपाखातीर एक भिक्षु आसता ताका 'जीकीजीत्सू' म्हण्टात. पुराय विहाराचेर एका पारंगत आनी साक्षात्कारी भिक्षूचो शेक आसता; ताका 'रोशी' अशें म्हण्टात. साक्षात्कार हें ध्यान संप्रदायाचें मुखेल तत्त्व. हो साक्षात्कार लखलखीत विजेच्या केणासारको आसता अशें म्हण्टात; ताका 'साटोरी' अशें म्हण्टात.

आयज जपानाभायर प्रचलित आसा तो झेन म्हळ्यार चड करून हाकुइनचो पंथ. जपानी झेनचो 'सोतो' नांवाचो आनीक एक पंथ आसून तो रिंझाई पंथापरस बरोच बळिश्ट आसा. सोतो झेन पंथ, दोगेन (१२००-५३) हाणें जपानांत हाडलो. ताणें चीनांत वचून झेनचो अभ्यास केल्लो. शाक्य मुनीच्या काळासावन पिळग्यांच्यो पिळग्यो चलत आयिल्लो खरो झेन पंथ आपणेच पुरस्कृत केलो असो दोगेनचो भावार्थ आशिल्लो. ताणें को-आन्चो त्याग केलोना; पूण फकत झेन पंथातले 'प्रस्न आनी जापो' ह्या उपकरणाक लागून मनीस उंचेली सुवात मेळोवंक शकचोना, अशें ताका दिसतालें. झा-झेन अनुष्ठानाच्या श्रेश्ठत्त्वाचेर भर दिवन लोकप्रिय पूजासंस्कार ताणें काडून उडयलें. धर्माचे शुध्दलायेचेर भर दिवन शाक्य मुनीच्या मूळ ध्यानमार्गाकडेन सोतो झेन पंथ लागीं हाडपाचे यत्न दोगेन हाणें केले. भिक्षू, उपासक दादले-बायलो आनी हेर सगळ्यांक आध्यात्मिक गिन्यान मेळोवपाखातीर झा-झेन हो सामको सोपो मार्ग आसा हो उपदेश ताणें केलो. हेर सगळ्या पंथांपरस, ह्या सोतो झेन पंथांत ताणें सादारण भौसाच्या उध्दाराचो मार्ग शिकयलो.

जपानी जिवितांत झेनचो प्रभाव खूब प्रमाणांत दिसून येता. जपानी समाजाच्या विंगड विंगड मळांचेर देखीक: वास्तूकला, खेळ, संगीत, चित्रकला, तत्त्वगिन्यान आदी मळांचेर झेनचो प्रभाव घसघशीतपणान दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**झेर्निक, फ्रिट्स:** (जल्म: १६ जुलय १८८८, ॲम्स्टरडॅम-नेदरलॅंड्स; मरण: १० मार्च १९६६, ग्रॉनिंगेन-नेदरलॅंड्स).

डच भौतिकीविज्ञ. ताणें १९१३ त ॲम्स्टरडॅम विद्यापीठांतल्यान बी.एस्. पदवी घेतली. त्याच वर्सा तो ग्रोनिंगेन विद्यापीठांत ज्योतिशशास्त्रीय प्रयोगशाळेंत साहाय्यक म्हूण काम करपाक लागलो. थंय १९१५ त ताणें डॉक्टरेट पदवी मेळयली आनी त्याच वर्सा तो सैध्दांतिक भौतिकीचो व्याख्यातो जालो. १९२० सावन निवृत्तीमेरेन (१९५८) ताणें ग्रोनिंगेन विद्यापीठांत सैध्दांतिक आनी गणितीय भौतिकी तशेंच सैध्दांतिक यामिकीचो प्राध्यापक म्हूण काम केलें. १९४८ त, ताणें बॉल्टिमीर हांगाच्या जॉन्स हाफकिन्स विद्यापीठांत अभ्यागत प्राध्यापक म्हूण काम केलें.

प्रकाशकी आनी भौतिकीच्या हेर शाखांत ताणें खास संशोधन केलें. प्रकाशकींतल्या ज्योतिशशास्त्रीय दूरदर्शकांविशींच्या प्रस्नांचेर संशोधन करता आसतना १९३४ त, ताणें दूरदर्शकाच्या हारशांतल्या प्रतिमांखातीर फुको हाणें सांगिल्ल्या सुऱ्ये-धार कसोटीचें (knife-edge test) स्पश्टीकरण दिवपी सिध्दांत उजवाडायलो. साद्या सूक्ष्मदर्शकांतल्यान (simple microscope) पारदर्शक वस्तू पुरायपणान दिसनात. त्यो दिसपाखातीर तांचें अभिरंजन (staining) करचें पडटा. ताका लागून कला विपर्यास सूक्ष्मदर्शकीय पध्दत झेर्निकें हाणें सोदून काडली. Phase Contrast Microscope हें उपकरण सोदून काडिल्लेखातीर झेर्निक फ्रिट्स हाका १९५३ त, भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फाव जालो. १९५२ त ताका रॉयल सोसायटीचें रम्फर्ड पदक मेळळें.

- कों. वि. सं. मं.

**झ्यूस:** सर्वश्रेश्ठ ग्रीक देव. रोमन देवतासमूहांत मुखार ताका 'ज्यूपिटर' ह्या नांवान वळखूंक लागले. तो मुळचो हवामानाचो आनी मळबाचो एक

इंडो-युरोपियन देव आशिल्लो. वैदिक 'द्यावा-पृथिवी' ह्या देवता-जोडप्यांतल्या 'द्यौ' कडेन ताचें साम्य दिसून येता. वेदांत 'द्यौ' चो एकेरी उल्लेख 'बापूय' असो जाता. 'द्यावा-पृथिवी' म्हळ्यार मळब आनी धर्तरी वा बापूय आनी आवय. भव्यता, विशालकाय आनी उजवाडाचें प्रतीक म्हूण वेदांत तांचो उल्लेख आसा. 'झ्यूस' ह्या शब्दाचो अर्थ- 'सर्गांतलो दिव्य उजवाड' असो जाता. हिब्रूंच्या जेहोवा वा येहोवाकडेनय ताचें लागींचें साम्य आसा अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

झ्यूस हो मळबाचो देव आसून ताचें सूर्य, चंद्र, गिरे हांचेर नियंत्रण आशिल्ल्याचें ग्रीक पुराणकथेंत म्हळां. सगळ्या देवांचो आनी मनशांचो स्वामी आनी तांका राखपी देव म्हूण ताका 'बापूय' अशें म्हळां. एके क्रीटन आख्यायिकेप्रमाण टायटन्सचो राजा क्रोनस हाका अशें भविश्य कळ्ळें की ताका जावपी भुरगो ताचें राज्य हातासतलो देखून, क्रोनसान ताची बायल रीया हिका जाल्लें दरेक भुरगें जल्माक येनाफुडें गिळपाचो उपक्रम सुरू केलो. तेन्ना रीयान तिगेर झ्यूस जल्माक येतकच ताका एके घोलींत लिपोवन दवरलो आनी ताचे सुवातीर एक फातर कपड्यांत गुटलावन दवरलो. घोलींत झ्युसाक 'अमाल्थीया' हे बोकडेन दूद दिलें. पऱ्यांनी आनी देवदूतांनी ताका पोसून ल्हानाचो व्हड केलो. झ्यूस व्हड जातकच ताणें टायटन्सचेर घुरी घालून क्रोनसचेर जैत मेळयलें आनी झ्यूस सर्गाचो, मळबाचो, सगळ्या देवांचो आनी मनशांचो स्वामी जालो. ही क्रीटन काणी फुडें ग्रीकांनी लेगीत मान्य केली.

स्वर्गाचो सार्वभौम सम्राट म्हूण झ्यूसान देवांचें फुडारपण करून राकेसांचेर जैत मेळयलें; तशेंच स्वताच्या आड जाल्ले जायते उठाव मोडून काडले. ग्रीसांतल्यांत सगळ्यांत ऊंच अशा ऑलिंपस दोंगराचेर स्वर्ग आशिल्ल्याचो आनी थंयच हवामानाच्या देवाचो म्हळ्यार झ्यूसाचो राबितो आशिल्ल्याचो उल्लेख होमरान केला. ग्रीसांत ताची 'ऑलिंपियन झ्यूस' म्हूण पूजा जाताली आनी ताचे विशींचो पूज्यभाव परगटावपाखातीर राश्ट्रीय दबाजो मनयताले. ह्या दबाज्याच्या निमतान दर चार वर्सांनी ऑलिंपिक खेळ भरताले.

ग्रीक पुराणकथेंत झ्यूसचे सर्वश्रेश्ठतेवांगडाच ताच्या कामूक आनी विलासी जिविताचें वर्णन आयलां. ताचे हे लंपट वृत्तीक लागून ताचीं आपली बायल हेरा हिचेवांगडा सदांच झगडीं जातालीं. आपली कामवासना तृप्त करून घेवपाखातीर तो विंगड विंगड रुपां धारण करतालो; कितल्याशाच बायलांवांगडा ताचे प्रेमसंबंद आशिल्ले आनी तांचेपसून ताका जायतीं भुरगीं जाल्लीं अशे उल्लेख पुराणकथांत आयल्यात.

गडगड, पावस, वादळ-वारो हे सैमीक बदल झ्यूसचे इत्सेवरवींच घडून येतात, असो पूर्विल्ल्या ग्रीसांतल्या लोकांचो भावार्थ आशिल्लो. झ्यूसच्या आंगांत आशिल्ल्या ह्या विंगड विंगड शक्तींखातीर ताची पूर्विल्ल्या ग्रीसांत उपासना जाताली. पूर्विल्ल्या काळांतले क्रीटन लोक झ्यूसची उपासना 'शेतां पिकोवपी देव' म्हणून करताले आनी ताचेविशींचो आपलो आदरभाव परगटावपाखातीर दर वर्सा ताचो जल्मदिसा सुवाळो नाचाची कार्यावळ करून व्हडा दबाज्यान मनयताले. सैमीक शक्तीच्या स्वरुपांत ताची ॲटिका हांगा उपासना जाताली आनी एकदम रागिश्ट तशेंच कृपाळू देव म्हूण ताका संतुश्ट करताले. उजवाडाचो जनक, मळबाचो देव, सगळ्या देवांभितर उपाट उजू आनी शाणो, संवसार चलोवपी सर्वशक्तिमान, सर्वसाक्षी आनी सर्वज्ञ अशें ताचें स्वरुप आशिल्लें.

घटमूट कूड तशेंच सोबीत केंस आनी खाड आशिल्लीं ताचीं ओडलायणीं शिल्पां इ.स.प. सातव्या शेंकड्यासावन दिसून येतात. ऑलिव्ह रुखाच्या पानांनीं केंस धांपिल्लीं ताचीं उबीं आनी बशिल्लीं शिल्पांय आसात. दैवी, शांत आनी कृपाळू भाव ताच्या तोंडार आसून हातांत वज्र वा 'एजिस' हें धालीसारकें शस्त्र आसा. गरुड पक्षी आनी ओक रुखाकडेन ताचें लागींचें नातें आशिल्लें. ते ताका आवडटाले म्हूण तांकां पवित्र अशें मानप जातालें. ऑलिंपिया हांगा फिदियस हाणें बांदिल्लो झ्यूसचो भांगरा पुतळो हें संवसारांतल्या सात अप्रुपांपैकी एक जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**ञ:** देवनागरी वर्णमालेंतलें धावें आनी 'च' वर्गातलें पांचवें व्यंजन. हाचो उच्चार ताळवेंतल्यान जाता.



'ञ' च्या रुपाचो विकासक्रम

ह्या वर्णाची पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनार हांगाच्या लेखांत (इ.स.प. तिसरो शेंकडो), दुसरी क्षत्रपवंशी राजा रुद्रदामन हाच्या गिरनार हांगाच्या लेखांत (इ.स. दुसरो शेंकडो) आनी तिसरी समुद्रगुप्ताच्या अलाहाबाद हांगाच्या स्तंभावेल्या लेखांत (इ.स. चवथो शेंकडो) मेळटा.

वर्णोध्दारतंत्रांत ह्या वर्णाचें स्त्रीरुपाचें ध्यान अशें सांगलां.

'चतुर्भुजां धूम्रवर्णां कृष्णाम्बरविभूषिताम्।
नानालङ्कारसंयुक्तां जटामुकुटराजिताम्।
ईषद्हास्यमुखीं नित्यां वरदां भक्तवत्सलाम्।
एवं ध्यात्वा ब्रह्मरुपां तन्मन्त्रं दशधा जपेत्।।

अर्थ- चार भुजां आशिल्ली, धुंवरट वर्णाची, काळें न्हेसण न्हेशिल्ली, तरेकवार अलंकार घाल्ली, जटामुकुट धारण केल्ली, स्मितमुखी, सदांच वर दिवपी आनी भक्तवत्सल अशा ब्रह्मरुप ञकारमुर्तीचें ध्यान करून धा वेळा तिच्या मंत्राचो जप करचो.

- कों. वि. सं. मं.

# गोंय: चित्र दर्शन



श्री शांतादुर्गा देवस्थान, कवळें



बाँ जेजू चर्च - ओल्ड गोवा



नुस्तेमारी



देठली - न्हेसणाचो एक आद्य प्रकार



कदंब काळांतलें शिव मंदीर, तांबडें सुर्ल



दर्यावेळ, वागातोर - हणजूण



मातयेच्या आयदनांचो बाजार



सती फातर, मळकर्णे



मंगेशी देवळाचो भितल्लो भाग



कांतायल्लो दरवज, कामाक्षी मंदीर, शिरोडें



मातयेचें नक्षीकाम



देवळाचें छप्पर - लाकडी कोरीवकाम



हुतात्मा स्मारक, पणजें



गोंयचीं पोरनीं नाणी



फुटबॉल



गोंय्चो खणउद्येग



रेयश मागूश किल्लो - वेरें

# कोंकणी विश्वकोश

## खंड दुसरो

(ट ते फ)

संपादक

**डॉ. तानाजी हळर्णकार**

गोवा विश्वविद्यालय, ताळगांव - गोंय

१९९७

# कोंकणी विश्वकोश संपादक मंडळ

**संपादक**

डॉ. तानाजी हळर्णकार

**संशोधन सहाय्यक**

श्री. रंजन नायक

कु. सुरेखा तोटेकार

**संपादकीय सहाय्यक**

श्रीमती कांचन मोर्डेकार

श्रीमती कल्पना कुडतरकार - वाळके

**प्रशासन सहाय्यक**

दिवाकर सावंत

**कोंकणी विश्वकोश सल्लागार समिती**

डॉ. तानाजी हळर्णकार

डॉ. सदाशिव देव

डॉ. अरूण हेबळेकर

प्रा. शांताराम फळ

डॉ. सोमनाथ कोमरपंत

प्रा. एस्. एस्. नाडकर्णी

# मनोगत

कोंकणी विश्वकोशाचो हो दुसरो खंड हांव व्हड अभिमानान तुमच्या मुखार दवरतां.

थळाव्या भाशांची उदरगत हें सगळ्याच विद्यापिठांचें कर्तव्य जावन आसा. कोंकणी भाशेचो विकास करप हो उद्देश गोवा विद्यापिठान सुरवेकसावन नदरेमुखार दवरला. कोंकणी - अध्यापन, कोंकणी - संशोधन आनी कोंकणी ग्रंथ-निर्मिती हो वावर गोवा विद्यापिठांत चालू आसा. विद्यापिठीय थराचेर असो वावर करपी गोवा विद्यापीठ हें संवसारांतलें एकूच विद्यापीठ आसा.

कोंकणी संदर्भ ग्रंथाची गरज लक्षांत घेवन, गोवा विद्यापिठान तीन खंडी कोंकणी विश्वकोशाचो प्रकल्प हातांत घेतलो. विद्वानावांगडाच सामान्य कोंकणी मनशाक ताचे निजाचे भाशेंतल्यान ताका संवसाराची वळख करून दिवपाक कोंकणी विश्वकोशाचो खूब आदार जावं येता. जाका आपली भास सोडून हेर भासो येनात, ताचेखातीर अशे थळावे भाशेंतलो विश्वकोश म्हणजे गिन्यानाचें भांडार जावन आसा. कोंकणी विश्वकोश हें भांडार कोंकणी मनशाखातीर आयज उक्तें करता.

तीन खंड हे विश्वकोशाखातीर तशे उणेच. आख्ख्या संवसाराचें गिन्यान तीन खंडांनी आस्पावप कठीणूच. पूण संपादक मंडळान व्हडा कश्टान आनी जतनायेन संवसाराचें गिन्यान तीन खंडांनी आटापून घेवपाचें काम बेसबरें केलां. निकतीच वयर सरूंक लागिल्ले कोंकणी भाशेंतलो विश्वकोश निर्माण करप हो भोव जोखमीचो वावर. अशा वावराखातीर कश्टांवांगडाच त्यागाची भावना आसप गरजेचें. कोंकणी विश्वकोशाच्या संपादक मंडळाच्या कश्टांतल्यान आनी त्यागांतल्यान कोशाची निर्मिती जावंक पावल्या. तेखातीर हांव संपादक मंडळाचें, सल्लागार मंडळाचें आनी हेर संबंदितांचें अभिनंदन करतां.

ह्या खंडाफाटोफाट तिसरो खंड तुमचे मुखार रोकडोच दवरपाचो आमी संकल्प सोडला. तोय पुरो करून कोंकणीकडची आमची लागणूक कांय अंशान पुरी करूंक सोदतां.

पयल्या खंडाप्रमाणूच ह्याय खंडाचें तुमचे कडल्यान उत्स्फूर्त स्वागत जातलें अशी आस्त बाळगितां.

- डॉ. बाळकृष्ण सोंदे

उपकुलगुरू

गोवा विद्यापीठ

ताळगांव - गोंय.

३० ऑक्टोबर १९९७.

# पयलीं उतरां

कोंकणी विश्वकोशाच्या दुसऱ्या खंडाचो प्रकाशन-योग येता ही कोंकणी विश्वाखातीर खोसदेणी गजाल. कोंकणी विश्वकोशाची संकल्पना, व्याप्ती, मांडावळ, शुद्धलेखन, परिभास आनी रचणूक हे संबंदीं पयल्या खंडाचे प्रस्तावनेंत सविस्तर म्हायती आयल्या. तिची पुनुरुक्ती हांगा करपाची गरज दिसना.

ह्या दुसऱ्या खंडांत सुमार तेराशें पन्नास नोंदींचो आस्पाव जाला. ह्या खंडाखातीर आंखिल्ल्या एक हजार पानांची मर्यादा ताणीं सोंपयल्या. तेखातीर सुर्वेक थारायल्ल्या प्रमाण, ह्या खंडांत 'ट' ते 'म' ह्या आद्याक्षरांनी सुरू जावपी नोंदींचो आस्पाव जावंक पावलोना. नोंदींचो आंकडो आनी पानांची मर्यादा हांचें कोश्टक सादपाखातीर ह्या खंडांत 'ट' न सुरू करून 'फ' मेरेनच थांबचें पडलां. तिसरो खंड 'ब' ते 'ज्ञ' असो आसतलो. पयल्या खंडाप्रमाणूच ह्या खंडांत चित्रां, नकाशे, तक्ते अशे मजकुराक पूरक संदर्भ दिवप जालां. जंय जाय थंय विज्ञानीक म्हायती वांगडा संस्कृतीक संदर्भ दिवपाची पयल्या खंडाची परंपरा दुसऱ्या खंडांतूय दवरल्या.

विश्वकोश-निर्मिती ही एक कठीण अशी आनी वेळ, श्रम, वित्त खर्चूपी निर्मिती. सगळ्याच भाशांतल्या विश्वकोशांचो हो असो अणभव आसा. कोंकणी विश्वकोश ताका आडवाद ना. अशे तरेचो हो कोंकणींतलो पयलोच प्रयोग जाल्ल्यान, कोंकणी विश्वकोशाचें काम आनीकूय कठीण जालां. अशा वावराखातीर जाय आसलें तें मनीस बळ, साहित्य आनी यंत्रणा हांची कोंकणींत उणीव आसा. ताचोय परिणाम कोशाचे निर्मितीचेर जावप सभावीक जालां.

विश्वकोशाची निर्मिती ही हजार हाती निर्मिती. विशयाची निवड, नोंदींची रचणूक, मजकूर पुंजावप, तपासप, ताचें संपादन करप, प्रुफां काडप, तीं तपासप, मजकूर छापप, कोशाची बांदणी करप अशा विविध आंगी प्रक्रियेंतल्यान कोश-निर्मिती घडटा. हे प्रक्रियेंतल्या खंयच्याय एका पेण्यार, खंयच्याय एका घटकाचो दोळो चुकोवन चुको उरपाची शक्यताय न्हयकारूंक येना. कोंकणी विश्वकोश हेर भाशांतल्या कोशांपरस वेगळो नाशिल्ल्यान, कोंकणी विश्वकोश बिनचूक जाला अशें हड्डयार हात मारून सांगूंक जांवचें ना.

पयल्या खंडाप्रमाण ह्याय खंडाखातीर आमकां भारतीय आनी परकी भाशेंतल्या विश्वकोशांचें तशेंच संदर्भ ग्रंथांचें रीण घेवचें लागलां. मराठी विश्वकोश, हिंदी विश्वकोश, भारतीय संस्कृतीकोश, मराठी ज्ञानकोश, भारतीय समाजविज्ञान कोश, Encyclopaedia Britannica, Encyclopaedia of Social Sciences, Encyclopaedia of Religion, Encyclopaedia of Philosophy, Encyclopaedia of International Sports, Stateman's Year Book, World Book Encyclopaedia आनी हेर संदर्भ ग्रंथांचो ह्या कोशाक आदार मेळ्ळा.

कोंकणी विश्वकोश निर्मिती ही संपादकाखातीर सत्त्वपरिक्षा आसली, तरी ते परिक्षेंत पास जावपाक जायत्या जाणांचो आदार मेळ्ळा. विश्वकोशाचें हें धोणू उबारपाक जायत्या वांगड्यांनी आपलो हात लायला. गोवा विद्यापिठाचे माजी-आजी उपकुलगुरू, कुलसचिव, सल्लागार मंडळाचे वांगडी, नोंद-लेखक, नोंद-समिक्षक, चित्रकार, संपादक मंडळाचे वांगडी, छापणावळ संबंदीत व्यक्ती हांचें मोलादीक योगदान घडलां.

सगळ्यांचें रीण माथ्यार घेवन हो दुसरो खंड लोकार्पण करतां. तशें करतना कोंकणी विश्वांत, कोंकणी विश्वकोशाच्या रुपांत एक अप्रुपाचें योगदान म्हज्या हातांतल्यान घडूंक पावलें हें समाधान आसा. तिसऱ्या खंडाचें आव्हान स्विकारपाक हें समाधान उपेगी पडटलें असो भरवंसो दिसता.

गोवा विद्यापीठ,
आश्विन कृ. चतुर्दस
(दिवाळी).
बिरेस्तार, ३० ऑक्टोबर १९९७.

**डॉ. तानाजी हळर्णकार**
संपादक.

# कोंकणी विश्वकोश

## खंड दुसरो

### लेखक, अणकारपी, समीक्षक, नियाळ करपी आनी चित्रकार

**श्री. अभिषेकी महादेव**, मंगेशी, म्हाडुळ - गोंय.

**डॉ. अवदी पुर्णानंद**, एम्. बी. बी. एस्.; डी. पी. बी.; एम्. डी. (पॅथो आनी बॅक्टे); एम्. डी. (फॉरेन्सिक मॅडिसीन); प्राध्यापक, फॉरेन्सिक मॅडिसीन ॲण्ड टॅक्सिकोलॉजी, गोंय वैजकी म्हाविद्यालय, बांबोळी.

**प्रा. अस्नोडकार परेश पै**, अभियांत्रिकी म्हाविद्यालय, फर्मागुडी.

**डॉ. आझावेदो कार्मो**, डॉन बोस्को स्कुलाकडेन, पणजी.

**श्री. आनंदन एन. एन.**, एम्. ए.; एम्. फिल्; प्राध्यापक, सनातन धर्म कॉलेज, सनातन पुरम्, अलेची.

**श्रीमती आमोणकार सुधा**, एम्. ए.; मुख्याध्यापिका, न्यु गोवा हायस्कूल, म्हापशें - गोंय.

**श्रीमती आरसेंकर शकुंतला**, आल्त पर्वरी.

**डॉ. आल्मेदा मॅथ्यू एस. जे.**, एम्. ए.; पीएच्. डी., संचालक, टॉमस स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, मिरामार-पणजी.

**डॉ. कवडी नरेश**, एम्. ए.; पीएच्. डी.; निवृत्त प्राध्यापक, श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले कॉलेज ऑफ आर्टस ॲण्ड सायन्स, मडगांव.

**श्री. कामत प्रकाश**, पत्रकार, पणजी.

**श्री. कामत श्रीकृष्ण उपेन्द्रराव**, एम्. एससी., प्राध्यापक, गणित विभाग, धेंपे कॉलेज, मिरामार - पणजी.

**श्री. कार्दोझ फेलिसीयो**, मडगांव.

**डॉ. कुंकळीकार प्रकाश**, पणजी.

**डॉ. कुरूप के. के. एन.**, कॅलीकट-केरळ.

**श्री. केळकार एन. आर.**, खोर्ली-म्हापशें.

**डॉ. कोमरपंत सोमनाथ**, मराठी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**श्रीमती खरंगटे माया**, पेड-मडगांव.

**श्री. खांडेपारकार प्रक़ाश**, इंजिनीयर, पणजी.

**डॉ. गनीहार एस. आर.**, एम्. एससी.; जीवनशास्त्र विभाग, धेंपे कॉलेज, मिरामार, पणजी-गोंय.

**श्री. गांवकर विश्राम**, एम्. एससी. (शेती), सहाय्यक शेती अधिकारी, भारतीय शेती संशोधन मंडळ, ओल्ड गोवा.

**श्री. गावडे कृष्णा**, चित्रकार, अन्साभाट-म्हापशें.

**श्री. गावणेकार माणिकराव**, एम्. ए.; एम्. एड.; निवृत्त मुख्याध्यापक, श्रीमती हिराबाई तळावलीकर हायस्कूल, साकोर्डे - गोंय.

**श्रीमती गोमस् बर्रनाडेट**, मिरामार-पणजी.

**श्री. घाग दत्तादास**, नरसोबाची वाडी संस्थान, महाराष्ट्र.

**श्री. घाणेकार दामोदर**, पणजी.

**डॉ. घाणेकार सिताकांत**, पणजी.

**प्रा. चोडणकर छाया**, हिंदी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**श्री. जोग आत्माराम**, निवृत्त पोलीस अधिकारी, पणजी.

**डॉ. जोशी अशोक**, विभाग प्रमुख, इंग्लीश विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**श्री. जोशी लक्ष्मीकांत मधुसुदन**, १५ मोरया अपार्टमेंट, पाटिल कॉलनी, लेन न. १ कॉलेज रोड नासिक - महाराष्ट्र.

**डॉ. डिसोझा चंद्रलेखा**, कोंकणी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**डॉ. तडकोडकर सु. म.**, मराठी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**डॉ. तळावलीकर विजय**, एम्.डी. (मुंबय); डी.जी.ओ.; डी.एफ्.पी.; (सी.पी.एस्); एफ्.आय्.सी.एम.; सांताक्रुझ-गोंय.

**श्री. तेली महेश**, चित्रकार, म्हापशें.

**श्री. तेली शिवदास**, चित्रकार, म्हापशें.

**श्री. तोणसेकर एम. पी.**, जीवशास्त्र विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**ॲड. थळी अमोल**, बी. कॉम.; एल्एल्. बी.

**श्री. थळी मुकेश**, आकाशवाणी, पणजी.

**ॲड. थळी सुहास**, पणजी.

**डॉ. देसाय कस्तुरी,** पी. इ. एस्. कॉलेज, फर्मागुडी.

**श्री. देसाय यादवेंद्र एन्.,** भारतीय शेती संशोधन मंडळ, ओल्ड गोवा.

**डॉ. धुमे एन्. एस्.,** करंजाळे-पणजी.

**धेंपो उद्योग समुह,** धेंपो हाऊस, कांपाल-पणजी.

**प्रा. नागवेंकर हरिश्चंद्र,** एम्. ए. (अर्थशास्त्र); उपप्राचार्य, एम्. ई. एस्. कॉलेज ऑफ आर्टस ॲण्ड सायन्स, झुवारी नगर.

**प्रा. नाडकर्णी एस्. एस्.,** पणजी.

**डॉ. नायक चंद्रकांत,** राश्ट्रीय सागरी विज्ञान संशोधन केंद्र, दोना पावल.

**श्रीमती नायक जयंती,** बी. ए., लोकवेदांतली पदविका, संशोधन सहाय्यक, गोवा कोंकणी अकादमी, पणजी.

**श्री. नायक पुंडलिक ,** लेखक, वळवय.

**प्रि. नारिंग्रेकर चंद्रशेखर,** संगित म्हाविद्यालय, पणजी.

**श्री. नावेलकार विठ्ठल,** ग्रंथपाल, गोवा विद्यापीठ.

**श्री. पंडित माधव,** मडगांव.

**श्री. परब गंगाराम,** मिरझालवाडो-पेडणें.

**प्रा. पर्येकार प्रकाश,** वाळपय-सत्तरी.

**डॉ. पांडे ए. के.,** वाराणसी.

**डॉ. पागी नयना,** आल्तीन-पणजी.

**डॉ. पाटील आनंद,** इंग्लीश विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**श्री. परोब चंद्रकांत डी.,** शारिरीक शिक्षण संचालक, धेंपे कॉलेज, मिरामार.

**श्री. प्रियोळकार अरूण,** खोर्ले-इलास.

**डॉ. फडके श्री. शं.,** चौगुले कॉलेज, मडगांव.

**प्रा. फडते प्रेमानंद,** एम.एस्सी.; बी.एड.; श्री दामोदर ज्यु. कॉलेज ऑफ सायन्स, मडगांव.

**प्रा. फडते सदानंद,** बांदोडें-फोंडें.

**डॉ. फेर्नांदीश बेलिंदा,** फ्रेंच विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**श्री. बर्वे रमेश स.,** आकाशवाणी, आल्तीन-पणजी.

**श्री. बार्रेटो लुर्डीनो,** कला अकादमी, पणजी.

**डॉ. बुडकुले किरण,** इंग्लीश विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**डॉ. बोरकार अवधुत,** मडकय-गोंय.

**श्री. बोरकार दिलीप,** एम.ए., शिक्षक आनी लेखक.

**श्री. बोरकार लक्ष्मीदास,** पत्रकार, प्रभादेवी-मुंबय.

**श्री. बोरूडे एस्. जी.,** सिंधदुर्ग-महाराष्ट्र.

**श्री. ब्रागांझा मिंगेल,** एम.एस्.सी. (शेती), गार्डन सुपरिटेंडंट, गोवा विद्यापीठ, ताळगांव.

**श्री. ब्रागांझा विन्सेंट,** चित्रकार, म्हापशें.

**डॉ. भट अनंत राम,** एम.ए., पीएच.डी. शिक्षक, प्रियोळ, म्हाड्डोळ-गोंय.

**श्री. भांगी शांता,** मडगांव.

**श्री. भुस्कुटे माधव,** बी.एच.एम.एस.; बी.ए. (साहित्य विशारद); एम.ए. (संस्कृत); एम.फिल. (संस्कृत); एन.डी.; डी.मॅग.; होरा विशारद, योग आनी आयुर्वेद पदविका.

**डॉ. भोंसुले दामोदर,** सांताक्रूज-गोंय.

**श्री. मणेरकार दिनेश रामनाथ,** दत्तवाडी-सांगें.

**श्री. मांद्रेकार दादू,** लेखक, मांद्रें-पेडणें.

**डॉ. मालवीय एच. के.,** पशुचिकित्सक, पशुसंवर्धन खातें, कुर्टी-फोंडें.

**डॉ. मिश्रा जी. एन.,** प्राचार्य, धेंपे कॉलेज, मिरामार.

**डॉ. मिश्रा बी. डी.,** हिंदी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**श्री. मिस्त्री खोजेस्टा पी.,** समाचार मार्ग, मुंबय.

**प्रा. मेहता शैलेंद्र,** फा. आग्नेल कॉलेज, पिलार.

**श्री. मोये अजीत,** सांताक्रूज-गोंय.

**श्री. म्हांबरो अ. ना.,** एम.ए. अभिलेखागार, टाटा सेंट्रल आर्कायव्हज, मुंबय.

**डॉ. राताबोली पद्मनाभ,** फार्माकोलॉजी, गोवा वैजकी म्हाविद्यालय, बांबोळी.

**प्रो. राधाकृष्ण एल्.,** शिवाजी विद्यापीठ, कोल्हापूर.

**श्री. राव कृष्णा एस. एम.,** एम.ए.; बी. एड.; शिक्षक, वास्को-गोंय.

**डॉ. राव दयानंद मंगेश,** गोवा वैजकी म्हाविद्यालय, पणजी.

**श्रीमती राव देशपांडे कमलादेवी,** वास्को.

**श्री. राव एस्. जे.,** आल्तीनो-पणजी.

**डॉ. लवंदे जयकृष्ण द.,** पर्वरी-गोंय.

**डॉ. लवंदे दुर्गा जयकृष्ण,** पर्वरी-गोंय.

**श्री. वझे वा. ल.,** संस्कृत काव्यतीर्थ, बांदोडें-फोंडें-गोंय.

**डॉ. वडेर पी. बी.,** अध्यापक, मळा-पणजी.

**डॉ. वागळे ए. एम.,** सांतइनेझ-पणजी.

**डॉ. वालावलीकार व्हाय. एस.,** गणित विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**प्रा. वेरेंकार श्याम,** चौगुले कॉलेज, मडगांव.

**श्री. वेरेंकार विद्यादत्त,** कुसमणें-केपें.

**श्री. वेळुस्कार रमेश,** शिक्षक, पाळें शिरदोन-गोंय.

**डॉ. शर्मा रोहिताश्व,** हिंदी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**प्रा. शेख जी. एम. ए.,** चौगुले कॉलेज, मडगांव.

**प्रा. सबनीस सचिन,** सऱ्कारी महाविद्यालय, पेडणें-गोंय.

**डॉ. सरदेसाय मलबाराव,** संगीत तज्ञ, सावयवेरें-फोंडें.

**प्रा. सरदेसाय माधवी,** कोंकणी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**डॉ. सावंत वासुदेव,** मराठी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**प्रा. सिंगबाळ दिगंबर,** सरकारी कला विद्यालय, पणजी.

**डॉ. सिंगबाळ एस. व्हाए. एस.,** राश्ट्रिय सागरी विज्ञान संशोधन केंद्र, दोना पावल.

**श्री. सुरसुरे पंढरीनाथ,** व्हडलें मळ-काकोडें-कुडचडें.

**श्री. सैल महाबळेश्वर,** लेखक, करमणें-गोंय.

**डॉ. हळर्णकार आनंद,** एम.बी.बी.एस.; बांदोडें - गोंय.

**डॉ. हेबळेकार अरूण,** एम.एस्.सी.; पीएच.डी.; प्राचार्य, पी.इ.एस. कॉलेज ऑफ आर्टस ॲण्ड सायन्स, फर्मागुडी-फोंडें-गोंय.

**डॉ. हेगडे राजेंद्र,** मानसोपचार तज्ञ, मडगांव-गोंय.

**डॉ. हेदे अनंत,** मडगांव-गोंय.

# कोंकणी विश्वकोशांत वापरिल्ल्या संक्षेपांची वळेरी

| | |
|---|---|
| इ.स. | इसवी सन |
| इ.स.प. | इसवी सना पयलीं |
| किग्रॅ. | किलोग्रॅम |
| किमी. | किलोमीटर |
| कों.वि.सं.मं. | कोंकणी विश्वकोश संपादक मंडळ |
| चौ.किमी. | चौरस किलोमीटर |
| चौ.सेंमी. | चौरस सेंटिमीटर |
| मिमी. | मिलिमीटर |
| मी. | मीटर |
| सॅ. | सेल्सिअस तापमान |
| सेंमी. | सेंटिमीटर |

ह्या खंडांत आयिल्ले नकाशे हे अधिकृत नकाशे न्हय. ते नकाशे म्हळ्यार मूळ नकाशाच्यो सदळ आकृतायो जावन आसात.

# कोंकणी विश्वकोश

## खंड दुसरो

═══❋❋❋❋❋═══

**टंकलेखन** : एकसारक्या दिसपी अक्षरांनी छापिलेभशेन जाच्या आदारान बरोवपाक येता अशें यंत्र. अशेतरेचीं चडशीं यंत्रां ३०x३५x२५ सेंमी. ह्या आकारमानाचीं आसतात. हें यंत्र बरोवपाच्या मेजाचेर दवरपाक मेळटा. तशेंच बरेंचशें हातबरप ह्या यंत्रान कमी वेळांत टंकलिखीत करपाक जाता आनी त्या मजकुराच्यो ४-६ प्रती एकेच खेपेक काडपाक येतात. ह्या यंत्राच्या आदारान तक्ते, कोश्टकांय टंकलिखीत करूं येतात. जर चड प्रती जाय जाल्यार मजकुराचो कोरीव फर्मा (स्टेन्सील) काडपाक येता. ह्या यंत्राचे जायते प्रकार आसात. आयच्या काळांत शासकीय, वेवसायीक आनी उद्येगीक मळांनी हें यंत्र कार्यालयांनी खूब गरजेचें जालां.

**इतिहास आनी विकास** - हॅन्री मिल ह्या अभियंत्यान एकस्व (पेटंट) घेतिल्लें पयलें टंकलेखन यंत्र १७१४ त तयार केलें. ह्या यंत्राची चड म्हायती मेळना. पूण तें वांकडें तिकडें आनी वापरपाक जड आशिल्लें. ह्या उपरांतच्या काळांत जर्मनी, फ्रान्स, इटली, ऑस्ट्रीया ह्या देशांनीय आदिम स्वरुपाचीं यंत्रां तयार करपांत आयलीं. ते उपरांत १८२९ त डिट्रॉइट हांगाच्या विल्यम ऑस्टिन बर्ट हाणें 'टायपोग्राफर' नांवाचें यंत्र तयार केलें. हें यंत्रय वांकडे तिकडेंच आशिल्लें आनी तातूंत शाईचो दाट थर वापरिल्लो. ह्या शाईच्या थराचेर टंक दामून छापताले. १८३३ त मार्से हांगाच्या प्रोजियन हाणें हाताच्या बोटांनी वापरपाचो मुद्राफळो आशिल्लें यंत्र तयार केलें. कागदाची गुंडाळी परत-परत वापरपाक येवपासारकें यंत्र १८५० त जॉन फेअरबँक हाणें तयार केलें. त्याच वर्सा ऑलिव्हर एडी हाणें पियानोसारको मुद्राफळो आनी शाईचें फीत आशिल्लें यंत्र तयार केलें. १८६८ त क्रिस्टोफर लेथम शोल्झ, कार्लोस ग्लिडन आनी सॅम्युएल सूले ह्या अमेरिकन यंत्रज्ञांनी बेगीन टंकलेखन करपाचें यंत्र तयार केलें. सुर्वेचें यंत्र वांकडें तिकडें आशिल्लें, तरीपूण उपरांत तातूंत बऱ्योच सुदारणा करपांत आयल्यो. १८७३ त डेन्समोर हाचेवतीन फिलो रेमिंग्टन हाचेकडेन ह्या यंत्राच्या उत्पादनाविशीं करार केलो आनी १८७४ त रेमिंग्टन नांवाचें यंत्र बाजारांत आयलें. ह्या यंत्रांत खास अश्या कांय घटकांचो पयलेच खेप वापर करपांत आयिल्लो. ते म्हळ्यार - १) वळीतलें अंतर सादपी आनी कागद फुडें व्हरपी रूळ. २) अक्षर छापल्या उपरांत रूळ जाय तितको फुडें धुकलपी सुटका प्रयुक्ती. ३) दर एका टंक यंत्रांत एका बिंदूचेर आपटतले अशे तरेच्या टंक कुडक्यांची मांडणी. ४) टंक कुडक्यांचें तरफांच्या आनी तारांच्या आदारान चलप आनी ५) मुद्राफळ्या वयल्या अक्षरांच्यो सुवाती, ज्यो आजूनमेरेन तश्योच आसात. ह्या यंत्रांत टंक कुडक्यांचेर एकेच तरेचीं म्हळ्यार व्हडलीं (कॅपीटल) अक्षरां आशिल्लीं आनी सगळो मजकूर ह्या अक्षरांनीच छापताले. पूण ते उपरांत रेमिंग्टन कंपनीन व्हडलीं आनी ल्हान (कॅपीटल आनी स्मॉल) अक्षरां छापपाची सोय अक्षर-बदल प्रयुक्ती वापरून केली. ह्या प्रकाराचें यंत्र रे कंपनीत रेमिंग्टन-२ ह्या नांवान १८७८ त बाजारांत हाडलें.

बॉस्टन हांगाच्या जे.बी. हॅमंड हाणें तयार केल्लें 'आयडियल' टंकलेखन यंत्र १८८४ त बाजारांत आयलें. ह्या यंत्रांतलो मुद्राफळो अर्दवर्तुळाकार आशिल्लो. हातूंत वेग-वेगळे प्रकारचे टंक वापरपाची सोय आशिल्ल्यान ताका चड मागणी आशिल्ली.

इ.स. १८९२ त टॉमस ऑलिव्हर हाणें टंकलेखन दिसतलें अशें यंत्र तयार केलें. १८९३ त फ्रँट्स वॅगनर हाणेंय अशेंच यंत्र तयार केलें. हें यंत्र आनी ताचें एकस्व जॉन टी. अंडरवुड हाणें विकतें घेतलें आनी अंडरवुड टायपरायटर कंपनीची १८९५ त स्थापणूक जाली. एल. सी. स्मिथ अँड ब्रदर्स हे कंपनीन तयार केल्ल्या 'स्मिथ प्रिमियर' ह्या टंकलेखन यंत्रांत दोन मुद्राफळे आसात आनी तातूंतलो एक कॅपीटल अक्षरांखातीर आनी दुसरो स्मॉल अक्षरांखातीर आशिल्लो. अशा तरेच्या बटणांचो आंकडो दुपेटीन आशिल्लीं मूद्राफळ्यांचीं यंत्रांय बाजारांत आयलीं. हीं यंत्रां आनी रेमिंग्टन-२ हीं यंत्रां बाजारांत थोडे दीस गाजलीं. १९०२ वर्सा स्मिथ कंपनीन तयार केल्ल्या यंत्रांत कॅपीटल अक्षरांखातीर खास येवजणेचो आस्पाव केल्लो. १९०० वर्सा उपरांत ए. बी. हेस आनी एल. सी. मेयर्स हाणीं टंकलेखन यंत्रांत बऱ्योच सुदारणा केल्यो आनी १९०६ त एक नवें टंकलेखन यंत्र तयार केलें. १९०८त सायलेंट रायटिंग मशीन कंपनीन जायत्या वर्सांच्या प्रयोगांउपरांत नॉइजलेस (आवाज न करपी) टंकलेखन यंत्र तयार केलें. 'नॉइजलेस' हें फकत वेपारी नांव आशिल्लें. हेर यंत्रांप्रमाण हाचोय थोडोसो आवाज येतालोच. १९२९ त जेम्स रँड हाणें रेमिंग्टन-रँड इनकॉर्पोरेशन ह्या नांवान स्थापन जाल्ले कंपनीखातीर आवाज करिना अशा यंत्राचें एकस्व घेतलें. पूण हें यंत्र चड गाजलें ना आनी ताचो वापरय चड जायनाशिल्लो. १९१४ त वुडस्टॉक टंकलेखन यंत्र बाजारांत आयलें. आर. सी. ॲलन कॉर्पोरेशनान ताचें उत्पादन करपाक सुरवात केली. हेखेरीज जॉर्ज योस्ट, फ्रँट्स वॅगनर आनी एच. एल. वॅगनर हाणीं १८८५ त तयार केल्लें 'कॅलिग्राफ' यंत्र, १८८१ त ल्युशेन क्रँडल हाणें तयार केल्लें 'प्रिंटींग मशीन' अशीं वेगवेगळ्या तरेचीं यंत्रां जायत्या जाणांनी तयार केलीं. पूण तीं चड काळ तिगलीं ना. तशेंच युरोपीय कंपन्यांनीय जायत्या प्रकारचीं टंकलेखन यंत्रां तयार केलीं. तातूंतल्यो आयच्या काळांत म्हत्वाच्यो आशिल्ल्यो कंपन्यो म्हळ्यार इटालींतली अंडरवुड-ऑलिव्हेत्ती, जर्मनींतली ऑलिंपिया, ॲडलर, ऑप्टिमा आनी ट्रायंफ तशेंच स्वीडनांतली फॅसिट.

इ.स. १९०० च्या पयलीं पोर्टेबल (सोंपेपणी खंयय व्हरपाक येवपासारकें) टंकलेखन यंत्र तयार करपाचे यत्न सुरू जाले. १९१२ त

कॉरोना कंपनीन अशा यंत्राची प्रतिकृती तयार केली. हे उपरांत रेमिंग्टन-रँड, स्मिथ-कॉरोना, अंडरवुड-इलियट-फिशर आनी रॉयल ह्या चार कंपन्यांनी पोर्टेबल यंत्रांचें उत्पादन करपाक सुरवात केली. पोर्टेबल यंत्रांत अशेतरेन सुदारणा जायत गेल्यो आनी चडश्यो सगळ्यो कंपन्यो अशीं यंत्रां तयार करपाक लागल्यो.

१८७२ त टॉमस एडिसन हाका विजेच्या टंकलेखन यंत्राचें एकस्व दिलें. पूण खरेपणी विजेच्या शक्तीचो उपेग टंकलेखन यंत्राखातीर विसाव्या शेंकड्याच्या सुरवातीच्या काळांत जालो. ब्लिकेन्सडर्फर टायपरायटर कंपनीन १९०२ त आनी मर्सिडीज ह्या जर्मन उत्पादकांनी १९२१ त विजेचें टंकलेखन यंत्र बाजारांत हाडलें. वुडस्टॉक कंपनीचें विजेचें यंत्र आनी नॉर्थईस्ट इलेक्ट्रिक कंपनीचें 'इलेक्ट्रोमॅटिक' हें यंत्र १९२० उपरांतच्या दशकांत बाजारांत आयलें. १९३२ त इलेक्ट्रोमॅटिक यंत्राचे हक्क इंटरनॅशनल बिझिनेस मशीन्स (आयबीएम) कॉर्पोरेशनान विकते घेतले आनी आयबीएम इलेक्ट्रोमॅटिक ह्या नांवान तें बाजारांत हाडलें. दुसऱ्या म्हाझुजापयलीं अशा विजेच्या यंत्रांक चड मागणी नाशिल्ली. पूण दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत ह्या यंत्रांत बऱ्योच सुदारणा जाल्यो आनी अशा यंत्रांची मागणी वाडली. १९४७ त अंडरवुड कंपनीचें आनी १९४८ त रेमिंग्टन-रँड कंपनीचें, १९५० त रॉयल कंपनीचें आनी १९५३ त आर. सी. ॲलन कंपनीचें अर्द विजेचें यंत्र, १९५४ त स्मिथ-कॉरोनाचें आनी १९६१ त आयबीएम चें 'सिलेक्ट्रिक' हीं यंत्रां बाजारांत आयलीं. पोर्टेबल विजेचें यंत्र १९५६ त आयबीएमान तयार केलें.

वेपारी मळाचेर बेगीन टंकलेखन करपी आनी हातान मूळ टंकलिखीत केल्ल्या सारक्यो प्रती तयार करपी यंत्राची चडानचड गरज पडपाक लागली. स्वयंचलीत पियानोसारकी मूलभूत कार्यपद्दत आशिल्लें 'हूवन' स्वयंचलीत टंकलेखन यंत्र बेगीन टंकलेखनाखातीर पयलेच खेप वापरांत आयलें. हें यंत्र जड आशिल्लें आनी कालांतरान ताचो वापर कमी जालो. १९२७ त 'ऑटोटायपिस्ट' हें शुल्झ फ्लेयर यंत्र पियानो कंपनीन तयार केलें. हाची सुदारिल्ली आवृत्ती अमेरिकन ऑटोमेटीक टायपरायटर कंपनीन तयार केली. फ्लेक्झोरायटर नांवाचें स्वयंचलीत यंत्र लश्कराखातीर दुसऱ्या म्हाझुजांत तयार केलें. आतां ताचो हेर मळांचेरय उपेग जाता. १९३५ त फ्रँक कार्लसन हाणें बुराक आशिल्ले फितीखातीर निर्वात तत्त्वाचो उपेग करून 'रोबो टायपर' नांवाचें स्वयंचलीत यंत्र तयार केलें. १९६० त 'रॉयल टायपर' नांवाचें स्वयंचलीत यंत्र बाजारांत आयलें. ह्या यंत्राचेर एक मनीस १२५ पानां टंकलिखीत करपाक शकतालो.

सदच्या कार्यालयीन कामाखेरीज हेर मळांचेरूय टंकलेखन यंत्राचो आनी ताच्या तत्त्वाचेर आदारिल्ल्या हेर यंत्रांचो उपेग करतात. गणितीय कामां करपी, हिशोबाचीं कामां करून तीं टंकलिखीत करपी असल्या प्रकारचीं यंत्रां टंकलेखन यंत्राच्या तत्त्वाचेरच तयार करपांत आयलीं. अशा यंत्राच्या सोदाक लागून टंकलेखन यंत्राची आनी कॉंप्युटराची सांगड घालप शक्य जालें. 'पेपर टेप पंच अँड रीडर' हें हेच पद्दतीचें एक यंत्र. विजेच्या टंकलेखन तत्त्वाचेर आदारिल्ल्या टेलेक्स दूरमूद्रक (टेलिप्रिंटर) सारकिल्लीं यंत्रां आयज वापरांत आसात. मोनोटायप, लायनोटायप हीं यंत्रां १९५० वर्सांउपरांत व्हड प्रमाणांत वापरांत येवपाक लागलीं.

वयर दिल्ली सगळी म्हायती रोमन लिपींतल्या टंकलेखन यंत्राची जावन आसा आनी ह्याच यंत्राची सगळ्यांत चड निर्मिती जाता. पूण कांय देशांनी प्रादेशिक गरजेप्रमाण टंकलेखन यंत्रां तयार केल्यांत.

देवनागरी टंकलेखन यंत्रां खरेपणी खंयच्या वर्सा वापरांत आयलीं हें सांगप शक्य जाय ना. १९३२ वर्साच्या अदमासाक एके जर्मन कंपनीन पुण्याच्या अनाथ विद्यार्थी गृहाच्या शं. रा. दाते हाचे मागणेवयल्यान एक देवनागरी टंकलेखन यंत्र तयार केल्लें. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत अमेरीकेंतल्या वुडस्टॉक कंपनीन १९४८ वर्सा लखनौच्या एका मनशाचे मागणेवयल्यान देवनागरी लिपीतलीं यंत्रां व्हड प्रमाणांत तयार केल्लीं. पूण तांकां मागणी नाशिल्ल्यान तातूंतलीं चडशीं यंत्रां परत रोमन लिपींत रुपांतरीत केलीं. ऑलिंपिया हे कंपनीन १९५०-५१ च्या अदमासाक कांय देवनागरी यंत्रां बाजारांत हाडलीं. रेमिंग्टन कंपनीनय अशीं यंत्रां तयार करपाक सुरवात केली. गोदरेज कंपनीन १९६२ वर्सा केंद्र सरकार पुरस्कृत देवनागरी टंकलेखन यंत्राची नमुनो आवृत्ती जर्मनींतल्या ऑप्टीमा कंपनीच्या आदारान तयार केली आनी १९६८-६९ वर्सा तांचें व्हड उत्पादन सुरू केलें. तरीपूण ह्या यंत्राक व्हडलीशी मागणी नाशिल्ली. १९७५ वर्सासावन मात केंद्र सरकारान सगळ्या कार्यालयांनी देवनागरी टंकलेखन यंत्र दवरपाची सक्ती केली आनी हाकालागून मागणी वाडली. भारतांत तमीळ, तेलुगू, कन्नड, गुजराती, बंगाली, गुरूमुखी ह्या लिपयांतलीं टंकलेखन यंत्रां आसात. चडश्या राज्य सरकारांनी प्रमाणीत मुद्राफळो तयार केल्ल्यान यंत्रांचें उत्पादन करप सोंपें जालां. रसायनशास्त्र, गणित सारकिल्ल्या विशयांनी परत-परत येवपी कुरवो, घातमूल कुरवो, रसायनीक कुरवो हांच्या सकट अशा विशयांतलो मजकूर टंकलिखीत करपाक येवंचो देखून अशीं यंत्रां तयार करपांत आयलीं.

अठराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक आनी एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक कुड्ड्या मनशांक वापरपाक येवपासारकें टंकलेखन यंत्र तयार करपाचे यत्न जाले. उठाव आशिल्लीं अक्षरां छापपी एक यंत्र १८५६ त ए. ई. बीच हाणें तयार केलें. पूण ताचेर टंकलेखन खूब सवकास जातालें आनी तातूंत अशीर फितीचेरच छपाय जाताली. देखून तें प्रायोगिक अवस्थेंतच उरलें. १८३४ त ब्रेल लिपयेंत सुदारणा जाल्या उपरांत तिचेर आदारिल्लीं टंकलेखन यंत्रां तयार करपाचे यत्न जाले. १८६२ त तयार केल्लें मार्टिन टंकलेखन यंत्र ब्रेल लिपीचेर आदारिल्लें आशिल्लें. हेर यंत्रांपरस हीं यंत्रां वेगळीं आशिल्लीं. १९५० तल्या मॅट्रिक्स मॉडेल एफ १२२१ ह्या यंत्रांत फकत सात बटण आसून स टिंबांनी बसयल्ली ब्रेल लिपी ताचेर टंकलिखीत करपाक जाता. १९७२त अमेरिकेंत पर्किन्स ब्रेलर नांवाचें यंत्र तयार केलें. ह्या यंत्रावेली मापकपट्टी मात ब्रेल लिपीचीच आसता आनी हाकालागून कुड्डया मनशाक कागदाची कड समजपाक शकता. जपानांतल्या शिंजिरो मात्सुई हाणें एकेच खेप हेर यंत्रांप्रमाण टंकलिखीत मजकूर आनी ब्रेल लिपींतलो तोच मजकूर टंकलिखीत करपाक शकपी यंत्र तयार केलें. हाकालागून अशा यंत्रान टंकलिखीत केल्लो मजकूर ब्रेल लिपी जाणा आशिल्लो वाचपाक शकतालो. भारतांत कुड्ड्यांखातीर ब्रेल पद्दतीचीं यंत्रां आजून तयार करूंक नात.

सगळे तरेच्या कचेऱ्यांनी आयज टंकलेखकाक आनी टंकलेखन यंत्राक सुमाराभायर म्हत्व फाव जालां. टंकलेखन यंत्राक लागून खुबशें कागदी काम सोंपे जाता आनी हाकालागून मनशाचे कश्ट आनी वेळ वाटवता. टंकलेखन यंत्राच्या वाड्ट्या उपेगाकलागून टंकलेखन शाळा, वेवसायीक म्हाविद्यालयां, धंदेशिक्षण शाळा सारकिल्ल्या शैक्षणिक संस्थांनी भर

पडल्या. कांय देशांनी तर प्राथमीक शिक्षणांत लेगीत टंकलेखीत यंत्राचे फायदे आनी टंकलेखन यंत्राची शिकप्यांक वळख करून दिवपाची तजवीज केल्ली आसा.

आधुनीक टंकलेखन यंत्राचे ल्हान-व्हड मेळून जायते भाग आसतात. यंत्राच्या दर्शनी भागांत कीबोर्ड आसून तातूंत ए ते झेड (रोमी टंकलेखन) वा अ ते ज्ञ (देवनागरी टंकलेखन) नांवां धारण केल्ले बटण आसतात. तेभायर ० ते ९ आंकडे, पुर्णविराम, स्वल्पविराम, अर्दविराम, प्रस्नचिन्न, उदगार चिन्न, अधीक-वजा आनी हेर गणिती चिन्नां, कंस तशेंच मात्रा, अनुस्वार, उकार, तोपी (देवनागरी टंकलेखन) हे बटण आसतात. बटण आनी बटणावेलें अक्षर-आंकडो-चिन्न प्रतीत करपी टंक (टायप) हांकां जोडपी एक दांडी आसता. बटण दामलो की संबंदीत टंकाचो दाब यंत्राच्या वयल्या भागांत आशिल्ल्या रबरी रुळाचेर पडटा. टंक आनी रबरी रूळ हांचेमदीं रुळाक गुठलायल्ल्या कागदाचेर टंक आपटतना ताचे दांडयेक शायेचें सुती फीत (ribbon) सांपडटा आशिल्ल्यान कागदाचेर बटणावेलीं अक्षरां उठ्टात. बटणाच्या माऱ्याकणकणी कागदासयत रूळ दावेवटेन फुडेंफुडें सरकून एक वळ सोंपपाक आसा म्हळ्यार खुणेखातीर घांट वाजता. हाचेउपरांत दावेवटेन रूळ फिरोवपाची एक कळ आसा तिचो वापर करप जाता. टंकाच्या माऱ्याकणकणी रूळ दावेवटेन सरकता देखून अक्षराफाटल्यान अक्षर एका थरावीक अंतराचेर टंकलिखीत जाता आसलें तरी अक्षर टंकलिखीत जायनासतना रूळ दावेवटेन सरकपाखातीर दर्शनी भागाचे सकलेवटेन खाशेले पट्टेची वेवस्था केल्ली आसा. बटनाच्या जाग्यार ही पट्टी दामली की अक्षर टंकलिखीत जायनासतना रूळ दावेवटेन सरकता. बटन वा पट्टेभायर रूळ फाटीफुडें हालोवपाची तजवीज रुळाच्या दोनूय तोकांनी केल्ली आसा. रोमी टंकलेखनावेळार कॅपीटल आनी स्मॉल अक्षरां एकाच बटणावरवीं टंकलिखीत करपाची खाशेली वेवस्था आसा. ह्या मुखेल भागांवांगडाच कागद सदळ करपाची तरफ, कागद दामून धरपाची सरी, शाईचें सुती फीत घोळोवपाची कळ, समास निश्चीत करपाचो बटण, रूळ फाटींफुडें घोळोवपाचो बटण अशी साबार वेवस्था टंकलेखन यंत्रांत केल्ली आसा. हे सगळे भाग पत्रो आनी प्लास्टीक हांचेपसून तयार केल्ल्या खोक्यांत वेवस्थीत बसयल्ले आसतात.

विजेचें टंकलेखन यंत्र, हातान चलयतात त्या यंत्राभशेनूच आसता. पूण हातूंत टंक उखलून ताचेवेलें चिन्न कागदार छापपाची क्रिया मात विजेचे शक्तीन जाता. ह्या यंत्रांत खंयचीय क्रिया करतलो जाल्यार चिन्नाचे बटण दामपाक जाय. पूण हेखातीर हेर यंत्रांइतकी शक्त लागना. बटण दामलो की कॅम-तरफ खिळयेभोंवतणी घुंवता आनी तिचें तोंक विजेच्या मोटरान कायम गतीन घुंवपी रुळाच्या संपर्कांत येता. रूळ आनी तोंक हांच्या घर्शणाकलागून कॅम-तरफ सकलेवटेन घुंवता. ती घुंवता आसतना तिका जोडिल्ले सरयेकलागून टंकाचें तोंक वोड्टा. टंक तरफ खिळयेभोंवतणी घुंवता आनी तिच्या दुसऱ्या तोंकाक आशिल्लें टंकावेलें चिन्न कागदाचेर आपटून उठ्टा. ही क्रिया रोखडीच जावंची म्हूण तरफांनी कांय स्प्रिंगांची तजवीज केल्ली आसता. चिन्न आपटले की कॅमाकलागून तोंकासकट कॅम-तरफ आपल्या मूळ जाग्यार येता. ह्या यंत्राचें खाशेलेपण म्हळ्यार सगळ्या चिन्नांचेर सारको नेट पडिल्ल्यान छापप एकसारकें जाता आनी ह्या यंत्राचेर काम करपी मनशाक चड शक्त खर्च करची पडना देखून काम बेगीन जाता.

बेगीन आनी बरें टंकलेखन करपाचे नदरेन खंयच्या बोटान मुद्राफळ्यावेलीं खंयचीं बटणां दामची हाचो अभ्यास करून एक खाशेली पद्दत निश्चीत केल्ली आसा. हे पद्दतीन टंकलेखन करपाची संवंय जाली जाल्यार टंकलेखकाक फकत मजकुराचेरच लक्ष दवरून मुद्राफळ्याकडेन पळय नासतना टंकलेखन करप शक्य जाता. हे पद्दतीक 'स्पर्श पद्दत' अशें म्हण्टात. बऱ्यापैकी काम करपी टंकलेखकाक ही पद्दत आपणावपाची गरज आसता. टंकलेखनाचो वेग वाडोवपाक टंकलेखकान सतत टंकलेखन करचें पडटा.

१९३० वर्सामेरेन टंकलेखन यंत्रां भारतांत आयात करताले. ते उपरांत परदेशांतल्यान यंत्राचे सुटे भाग मागोवन यंत्रां तयार करपाक लागले. १९५० वर्सा उपरांत गोदरेज कंपनीन यंत्रां तयार करपाचें काम हातांत घेतलें. १९५४-५५ त खंयच्याय दुसऱ्या देशाचो आदार घेनासतना भारतीय तंत्रज्ञांनी तयार केल्लें टंकलेखन यंत्र बाजारांत आयलें. गोदरेज कंपनीच्या भारतीय उत्पादनाक लागून आनी सरकाराच्या आयात धोरणाकलागून शेवटाक रेमिंग्टन आनी हाल्डा ह्या कंपन्यांकय भारतांतच टंकलेखन यंत्रां तयार करचीं पडलीं. सध्या ह्योच तीनय कंपन्यो भारतांत टंकलेखन यंत्रां व्हड प्रमाणाचेर तयार करतात. १९७४ उपरांत आनीक चार कारखान्यांक टंकलेखन यंत्रां तयार करपाची परवानगी मेळ्ळी. मुंबय, कलकत्ता, दिल्ली आनी चेन्नई हांगा टंकलेखन यंत्राचे कारखाने आसात. भारताची सद्याची वर्साची गरज ९०,००० यंत्रांची आसा. भारतांत रोमन, देवनागरी आनी हेर भारतीय लिप्यांतलीं टंकलेखन यंत्रां तयार करतात. सरकारी संरक्षक धोरणाप्रमाण परदेशी टंकलेखन यंत्रां आयात करपाचेर बंदी आसा. फकत निर्यातदार कंपन्यांक आपल्या वापराखातीर खास परवाने घेवन विजेचीं टंकलेखन यंत्रां आयात करपाक जातात. भारतांतल्यानय कांय प्रमाणांत टंकलेखन यंत्राची निर्यात जाता. भारतांतल्यान मलेशिया, अस्तंत कोरिया, फिलिपीन्स, मध्य उंदेती देश, नेपाळ, बांगलादेश आदी देशांनी टंकलेखन यंत्रांची निर्यात जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**टंड्रा :** वर्सांतल्यान एकदां तरी ज्या प्रदेशाचें तापमान ०° सॅ. ते १०° सॅ. मेरेन आसता त्या प्रदेशाक 'टंड्रा' अशें म्हण्टात. टंड्रा प्रदेश चड करून तीन सुवातींनी मेळटात. आर्क्टिक टंड्रा, आल्पायन टंड्रा आनी अंट्राक्र्टिकाचो टंड्रा प्रदेश. उत्तर-ध्रूव प्रदेशालागसारचो भाग आर्क्टिक टंड्रा म्हूण वळखतात. हो सगळ्यांत मुखेल आसून अंटार्क्टिकाचो टंड्रा प्रदेश ल्हान आसा. समशीतोश्ण कटीबंधांतल्या पर्वत प्रदेशांतले तरूरेशेपरस उंचावयल्या प्रदेशाक 'आल्पायन टंड्रा' म्हण्टात. धर्तरेचो धावो वांटो टंड्रा प्रदेशान व्यापला.

उत्तर अमेरिकेंतलो ६०° उत्तरे पलतडचो भाग, युरेशियांतलो ७०° उत्तरे पलतडचो भाग, उदेंत सायबेरियांतलो ६०° उत्तरे पलतडचो कॅमचॅटका लागसारचो भाग आर्क्टिक टंड्रांत आस्पावता. आर्क्टिक टंड्राच्या प्रदेशांत अदीं-मदीं तळीं, न्हंयो, दलदली आनी झाडां-झुडपांचे आनी तणाचे पटे दिसतात. ह्या भागांत बर्फ पडप आनी वितळप ह्यो दोनूय क्रिया चलतात. ह्या भागाचें खाशेलपण म्हळ्यार जमनीचो सकयलो भाग सदांच शेंकेल्लो आसता. हे शेंकेल्ले जमनीक लागून ध्रूव प्रदेश आनी तैगा प्रदेश हे एकमेकांपासून वेगळे जाल्यात. स्थळाप्रमाण ९० मीटरांपसून

६१० मीटर खोलायेमेरेनची जमीन शेंकेल्ली आसता. गिमाच्या दिसांनी १५ ते ३० सेंमी. खोलायेमेरेन जमीन वितळटा.

आर्क्टिक टंड्रांत वाऱ्याची गती वराक ८ ते १६ किमी. आसता आनी आल्पायन टंड्रांत ती वराक १२० ते २०० किमी. मेरेन आसता. आर्क्टिक टंड्रांत दीस आनी रातीची लांबाय खूब व्हड वा खूब ल्हान आसता. तशी आल्पायन टंड्रांत नासता. आल्पायन टंड्रा हो उंचायेवयलो प्रदेश आशिल्ल्यान थंय कार्बन डाय-ऑक्सायडाचें प्रमाण उणें आसता.

१० सॅ.ची समतापरेशा(Isotherm) ही टंड्रा प्रदेशाच्या विषुववृत्ताकडल्या भागाची शीम आनी ०° सॅ. ही ध्रुवाकडल्या भागाची शीम. टंड्राच्या ध्रुवीय पडंग भागांत, गिमांतलें तापमान ५° सॅ. आसता आनी शिंयाळ्यांत तें -३२°सॅ मेरेन वता. पावसाचें वर्सुकी सरासरी प्रमाण ३८ सेंमी. आसता. हातूंतलो दोन तृतीयांश पावस गिमाच्या दिसांनी पडटा. दर्यादेगेवयले प्रदेश चड थंड आनी धुक्यान भरिल्ले आसतात. गिमांत, बाष्पीभवनाक लागून मळब कुपाळ आसता, पूण शिंयाळ्यांत तें नितळ आसता. वर्सांतल्या एक ते चार म्हयन्यांच्या काळांत ह्या भागाक सूर्यप्रकाश मेळटा. उरिल्ल्या आठ म्हयन्यांमदीं हांगा संधिप्रकाश, ध्रुवीय प्रकाश आनी काळोख आसता. हाका लागून थयंचे वनस्पतीचे वाडीचेर परिणाम जाता. शिंयाळ्याचो काळ ८-१० म्हयन्यांचो आसता. ह्या दिसांनी ६४ ते १९१ सेंमी. मेरेन हीम पडटा.

हांगाची वनस्पती जीण बर्फाचेर आदारिल्ली आसता, म्हळ्यार बर्फाचें आच्छादन, बर्फ वितळपाचो काळ हांकां अणसरून थंयची वनस्पत जाता. गवताळ टंड्रा, शैवाल टंड्रा आनी पडंग टंड्रा अशे वनस्पतीचे नदरेन तीन भाग जातात. गिमांत बर्फाचो थर वितळटा. डबकीं वा तळ्यांनी उदक सांठवता आनी दलदल तयार जाता. टंड्राचे दक्षिण शिमेचेर खूब तळीं मेळटात. तळीं आनी न्हंयांच्या देगांचेर, जंय जमीन बरी आसा अश्या सुवातींनी लव्हाळी, वाळुंज, तण, कड्डण, सूर्यफुलां, बीच, विलो, बिलबेरी, क्लाउडबॅरी हेसारकी वनस्पत जाता. चडशी वनस्पत झुपक्या-झुपक्यांनी जाता. उत्तरेवटेन शेळो, दगडफूल हे सारकी वनस्पत मेळटा. सादारणपणान वनस्पतींचो रंग पाचवो-पुडीकोराचो आसता. आर्क्टिक यूरोप आनी उत्तर अमेरिकेंतल्या टंड्राचो भाग गवताळ टंड्राचो आसा. तेखातीर ताचो उपेग रेनडियराखातीर करतात. ध्रुवालागसार पडंग टंड्रा आसा. गिमाच्या तीन म्हयन्यांनी हांगाची ॲकोनायट, येरॅनिअम, फॉरगॅट मी नॉट हे सारकी वनस्पत रंगयाळ्या फुलांनी भरिल्ली आसता. उंचेल्या प्रदेशांत उण्या प्रमाणांत वनस्पत जाता.

ह्या प्रदेशांनी तरातरांची मोनजात पळोवंक मेळटा. टंड्रांतली वनस्पत आनी मोनजात हांच्यो जाती उण्यो आसात, पूण तांची संख्या व्हड आसा. सोंशे, कोले, लांडगे, वांस्वेलां, लॅमिंग हे प्राणी ह्या भागांत मेळटात. रेनडियर, कॅरिबू, कस्तुरी वृषभ (musk ox) हे व्हड प्राणी तण खातात. रेनडियर आनी कॅरिबू हे आपल्या घट्ट खुरांनी बर्फ कोरांतून ताचेपोंदचें दगडफूल, शेळो हेसारकी वनस्पत खातात. चड करून रेनडियर उत्तर युरोपांत मेळटात. उत्तर आनी अस्तंत आलास्कांत रेनडियरांचें मास, लोक अन्न म्हूण वापरतात. फिनलँड, नॉर्वे, स्विडन, कोला द्वीपकल्प ह्या भागांनी रेनडियराक खूब म्हत्व आसा. दर्यादेगांचेर धव्या रंगाचीं ध्रुवीय वांस्वेलां मेळटात.

नुस्तें हें थंयच्या लोकांचें आनी मोनजातीचें मुखेल अन्न आसा. रानमाजर, घुबड, पाणबदक आनी कुकडां हे पक्षी ह्या प्रदेशांत आसात. तशेंच मूस आनी जळारां हांगा व्हड प्रमाणांत आसून मनशांक आनी जनावरांक तांचो खूब त्रास जाता. थंयचे बारीक जीव आनी कोळी तांबड्या, काळ्या रंगाचे आसतात. कांय बेबे शिंयाच्या दिसांनी स्वताक खूब तेंपामेरेन चिखलांत पुरून घेवन रावतात. अंटार्क्टिकाच्या भागांत पॅग्वीन पक्षी आसात. आल्पायन टंड्रांतल्यो रानमेंढ्यो, आयबॅक्स, शॅमॉय हे प्राणी आनी बरेचशे पक्षी शिंयाळ्यांत उणे उंचायेच्या प्रदेशांत स्थलांतर करतात.

**मानवी जीण -** ॲस्किमो हे टंड्रांतले मुखेल आसून उत्तर अमेरिका आनी ग्रिनलँडाच्या दर्यादेगेवयल्या भागांत तांच्यो वसणुको आसात. लोकसंख्येची घनताय दर चौखण किमी.क एक वा एकूय नासता. युरेशियाच्या टंड्राच्या भागांत लॅप, सॅमॉयड आनी हेर गोऱ्यो जमाती चडकरून उत्तरवाहिनी न्हंयांच्या देगांचेर वसणूक करून रावतात. रेनडियराचे कळप पोसप, शिकार करप, नुस्तेंमारी हे तांचे मुखेल वेवसाय आसात. तशेंच ते लाकुडतोडपाचोय वेवसाय करतात. हालींच्या काळांत खाणींचो सोद, ध्रुव प्रदेशावयल्यान वचपी लागींचे विमानमार्ग, हवामान निरिक्षण, वेपारी म्हाल आनी शस्त्रास्त्रां हांचे येरादारीक लागून टंड्रा प्रदेशांतल्या लोकांचो हेर लोकांकडे संबंद येवंक लागिल्ल्यान तांचे जिणेंत खूब बदल जावंक लागल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**ट :** 'ट' वर्गांतलो पयलो वर्ण आनी देवनागरी वर्णमाळेंतलें इकरावें व्यंजन. ह्या वर्णाची पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनार लेखांत (इ. स. पयलीं ३रें शतमान) दुसरी अवस्था क्षत्रपवंशी रूद्रदामन हाच्या गिरनारच्या लेखांत (इ. स. चें २ रें शतमान) आनी तिसरी अवस्था समुद्रगुप्ताच्या अलाहाबादच्या स्तंभलेखांत (इ. स. चें ४थें शतमान) हातूंत मेळटा.



ट च्या रुपाचो विकासक्रम

वर्णोध्दारतंत्रांत ह्या वर्णाचें स्त्रीरुपी ध्यान अशें दिलां -

मालतीपुष्पवर्णाभां पूर्णचन्द्रनिभेक्षणाम् ।<br>
दशबाहुसमायुक्तां सर्वालङःकारसंयुताम् ॥<br>
परमोक्षप्रदां नित्यां सदा स्मेरमुखीं पराम्।<br>
एवं ध्यात्वा ब्रह्मरूपां तन्मन्त्रं दशधा जपेत् ॥

**अर्थ -** मालती पुष्पाच्या रंगाप्रमाण कांती आशिल्लें, चंद्राप्रमाण दोळे आशिल्लें, धा भुजां आशिल्लें, सगळ्या अलंकारांनी भूषित, मोक्षप्रद, सदांच हांसकुरें अशें श्रेश्ठ आनी ब्रह्मरूप टकारमुर्तीचें ध्यान करून, तिच्या मंत्राचो धा खेपे जप करचो.

मुर्धा हें 'ट' चें उच्चारणस्थान.

- कों. वि. सं. मं.

**टका :** हो एक कापडलेख. पैंगीणच्या बेताळ देवाच्या संग्रहांत आशिल्ल्या काळ्या रंगाच्या ह्या कापडलेखाचेर हळदुवसार केसरी रंगाच्या तीन ओळींचो लेख बरयल्लो आसा आनी लेखाच्या सकयल्या भागांत बेताळ देवाच्यो आनी हेर देवांच्यो आकृत्यो काडिल्ल्यो आसात. पैंगीणच्या बेताळ देवळांत आशिल्ल्या ह्या कापड लेखांतल्यो ओळी अशो आसात -

पयली ओळ - श्री गडि खांब गडिचा मेडा गडि अंक टंक सुंक चवरगादि गादियेवर पडगादि दावु पाछावु मलरावु स्थापना चारि सोन्याच्या वातियेवरि रुपेचा गोळा बावन्न ब्रदांचा वाट परिमळा उत्थरती पांचशें सातियां.

दुसरी ओळ - श्री महिमा काळी गादी पांढरी साती तिही भुवीची उपरि सुवर्णाचा कलश गुत्ती मसराटि गजाणन बेतुराणा बोलावून आणिला माणिकेस खांब घातला बारा रायांचा झुंजार बारा राय खांडिवे खांडेस्थळी के.

तिसरी ओळ - ले तेरावे राज्याचा अंकणा घडि येक सिंह भैरपाळ शरणांगता रक्षपाळ आले गेले यांचा प्रतिपाळ अुलंघुनि धाडिला बळि आश्रमाचा आनला पोटिचे देती पण पाठिचे राखती शरणांगता वज्रपंजरा शके १७४५ सु.

टक्याची मिरवणूक दर तीन वर्सांनी काडटात आनी हे मिरवणुकीवरवीं पैंगीण, लोलयें आनी खरेगाळी ह्या वाठारांतल्या देव -देवतांक फुडल्या वर्सा जावपी गड्यां जात्रेचें आमंत्रण दिवप जाता.

बेताळाचो भार आयिल्लो मनीस भाराक आवश्यक अशे कपडे, फुलां आनी हातांत तरसाद घेवन मिरवणुकीचे फुडें आसता आनी ताच्या फाटल्यान तरंगां, सत्री आनी संबंदीत कामकरी महाजन मंडळी वाद्यांचे संगतीन फाटल्यान चलतात. दरेका गांवांत टक्याचें आनी बरोबरचे मंडळीचो येवकार, मानपान आनी टक्याचें वाचन जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**टपाल :** मनशांमदीं संपर्क दवरपाखातीर निर्माण केल्ली संदेशवाहक यंत्रणा. एक मनीस जेन्ना दुसऱ्या मनशाकडेन खर्च, वेळ आनी अंतर ह्या गजालीं खातीर प्रत्यक्षांत संपर्क दवरूंक शकना तेन्ना हे यंत्रणेचो सर्रास उपेग करतात. टपाल सेवेचो संदेश हाडपाक तसोच वस्तू वा जिन्नस हाडपाकूय उपेग करतात. हे यंत्रणेची सोंपी सुविधा तशी सवाय सेवा ह्या गुणांक लागून टपाल सेवा आयच्या युगांत मनशामनशांमदीं, देशादेशांमदीं आनी राश्ट्राराश्ट्रांमदीं संपर्क दवरपाचें म्हत्वाचें साधन जालां. संवसारांतल्या सगळ्याच देशांनी टपाल वेवस्था ही सरकारी नियंत्रणाखाल आसता आनी ती सरकार चलयता.

चार हजार वर्सां पयली बेबिलोनियन संस्कृतायेंत मातयेच्या कैलार (मातयेचे मडकेचें वा कुंडल्याचें पोंद) अक्षराचे छाप करून तीं कैलां संदेश म्हूण एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत पावयताले. घटमूट दादले हीं कैलां व्हरताले. मुखार ह्या कामाक घोड्याचो उपेग जावंक लागलो. दोन हजार वर्सांआदीं चीनांत रिले टपाल वेवस्था चलताली. त्या त्या सुवातींनी नेमिल्ले दादले थरावीक अंतर धांवून वचून मुखावयल्या मनशाकडेन हातांतलें टपाल पावयताले. पोशिल्ल्या पारव्यां वरवीं संदेश पावोवपाची पद्दत संवसारांत जायत्या वाठारांनी अस्तित्वांत आशिल्ली आनी कांयकडेन अजुनूय ही पद्दत चलता.

टपाल कचेरी ह्या अर्थान पोस्ट हें उत्तर फ्रेंच भाशेंतल्या Poste ह्या उतारवयल्यान आयलां. इ. स. १४०० वर्सा इकराव्या लुईन फ्रांसांत आधुनीक टपाल वेवस्था सुरू केली. पूण तेन्ना ती न्यायालयां, सरकारी अधिकारी हांचीं कागदपत्रांच हाड-व्हर करताली. तरी आधुनिक टपाल वेवस्था युरोपांतूच सुरू जाली. सुरवेक टपालाचो दर हो अंतराप्रमाण आसतालो. केन्ना हें भाडें टपाल धाडटल्याकडच्यान जाल्यार केन्ना तें जाका पावचें आसा ताचेकडल्यान वसुल करताले. सद्याची, देशांत सगळेकडेन एकूच दर आशिल्ली, टपाल पद्दत इंग्लडांत १८३७ वर्सा सुरू जाली. टपालाचेर दसवपाची तिकेट १८४० वर्सा इंग्लंडांतूच छापली आनी ती त्याच वर्सा उपेगांत हाडली. ताचेवयल्यान टपाल हाताळपाचें काम बरेंच सोंपें जालें.

१७६७त ब्रिटीश काळांत लॉर्ड क्लायव्ह हाणें इंग्लंडासारकीच टपाल वेवस्था भारतांत सुरू केली. पूण ती सुरवातेक सरकारी कागदापत्रांपुरतीच मर्यादीत आशिल्ली. १७७४ वर्सासावन सरकारी टपालावांगडा थोड्या प्रमाणांत खाजगी पत्रांय वचूंक लागलीं. १८३७त सावन इस्ट इंडिया कंपनीन टपालसेवेची व्याप्ती वाडयली आनी व्हड व्हड वाठारांनी टपाल सेवा सुरू केली. इस्ट इंडिया कंपनीकडल्यान भारताचो राज्यकारभार ब्रिटीश सरकारान आपल्या हातांत घेतकच टपाल सेवेक एक व्यापक स्वरूप मेळ्ळें आनी पुराय भारतभर नेमान टपालसेवा सुरू जाली.

इस्ट इंडिया कंपनीच्या काळांत १८८२ मेरेन पोस्टाचे तिकेटीचेर 'इस्ट इंडिया पोस्टेज' अशें छापताले. पूण ब्रिटीश सरकाराच्या काळांत तिकेटीचेर 'इंडिया पोस्टेज' अशें छापूंक लागले. सुरवातेक ह्यो तिकेटी इंग्लाडांतूच छापताले. पूण पयल्या म्हाझुजाउपरांत टपाल खात्याचो व्याप वाडलो. पोस्टाच्यो तिकेटी, कार्डां, पाकिटां भारतांतूच छापचेली गरज दिसूंक लागली आनी तेखातीर १९२६ वर्सा नासिकाक सरकारी सुरक्षा छापखानो सुरू जालो.

**(Universal Postal Union)** - संवसारांतल्या राश्ट्राराश्ट्रांमदीं टपालाची देवघेव सुरक्षीतपणान जावंची म्हूण संवसारीक टपाल संघटना(Universal Postal Union) हे संघटनेची स्थापना जाल्ली आसा. तिची मुखेल कचेरी स्वित्झर्लंडांत बर्न ह्या शारांत आसा. १८७४ वर्सा संवसारांतल्या कांय मुखेल राश्ट्रांनी बर्नाक एक बसका घेतली. हातूंत युरोपांतल्या साबार राश्ट्रांचे तशेंच अमेरिका, इजिप्त मेळून वट्ट बावीस राश्ट्रांचे प्रतिनिधी हजर आशिल्ले. हे बर्न सभेन संघटनेची व्याप्ती आनी उद्देश थारायल्ले आनी १ जुलय १८७५ ह्या दिसा 'जनरल पोस्टल युनियनाची' स्थापना जाली. रोखडीच ताची वांगडी संख्या वाडत गेली आनी १८७८ वर्सा ताचें नांव बदलून 'युनिव्हर्सल पोस्टल युनियन' अशें केलें. सद्या संवसारांतली सगळीं राश्ट्रां ताचे वांगडी आसात. हे संस्थेचीं मुखेल कामां अशीं : (१) राश्ट्राराश्ट्रांमदलो टपालाचो देवघेव वेव्हार नीट दवरप (२) आंतरराश्ट्रीय टपालाच्या दरांत एकसुत्रीपण दवरप (३) टपालांतल्या वस्तूंची वर्गवारी थारावप (४) गिरायकांक लुकसाण-भरपाय मेळोवन दिवप (५) राश्ट्राराश्ट्रांमदल्या टपाल येरादारीच्या खर्चाचो समतोल राखप.

**भारतांतल्या टपाल खात्याची घडण** - भारताच्या टपाल वेवस्थेचो मुखेल 'महानिदेशक टपाल'. हाचें मुखेल कार्यालय नवी दिल्लीक आसा. सादारणपणान दर एका राज्यांत एक टपाल मंडळ(Postal circle) आसता. ह्या एक टपाल मंडळाचो मुखेल पोस्ट मास्टर जनरल आसा. दर एक

## टपाल

टपाल मंडळांत सादारणपणान जिल्ह्याच्या आवाठांत एक विभाग Postal Division आसता. विभागाच्या दर्जाप्रमाण ताचो मुखेल अधिक्षक वा प्रबर अधिक्षक (Superintendent/ Senior Superitendent) आसता. विभागाच्यो सगळ्यो टपाल कचेऱ्यो ताच्या थेट नियंत्रणाखाला आसतात. टपाल कचेरेंत प्रधान टपाल कचेरी (Head Post Office), उपटपाल कचेरी (Sub Post Office), शाखा टपाल कचेरी (Branch Post Office) अशो तीन तरा आसतात. उपटपाल कचेरी आनी शाखा टपाल कचेरी कामकाजाच्या आनी पयशांचे हिशोबाचें बाबतींत प्रधान टपाल कचेरेक बांदिल्ली आसता. व्हड व्हड शारांनी, जंय मंडळ कार्यालय (Circle Office) आसता, थंयच्या प्रधान टपाल कचेरेक 'जनरल पोस्ट ऑफिस' म्हण्टात. जनरल पोस्ट ऑफिसाक, प्रशासनाचे बाबतींत प्रधान टपाल कचेरे परस चड अधिकार दिल्ले आसतात.

थंय तांची परती जिल्हो, शहर अशी बारीक वांटणी जाता. हीं अशीं वांटणी केल्लीं पत्रांचीं बंडलां साकांत भरून रेल्वेन, विमानान, मेल मोटारीन वा बसीन त्या त्या शारांत, जिल्ह्यांत, भागांत धाडटात. थंय तांची टपाल कचेरी प्रमाण वांटणी जाता. हे वांटणेच्या निमण्या पोंतार, घरांघरांनी वचून पत्रां वांटपाचें काम पोस्टमन करता. परदेशांत वचपाचें टपाल वा परदेशांतल्यान येवपाचें टपाल 'विदेश टपाल सेवे' वरवीं (Foreign Post Office) वता आनी येता. ही विदेश टपाल सेवा भारतांतलीं अंतरराश्ट्रीय विमानतळां, बंदरां हांकां जोडून आसा. टपाल कार्यालयांतल्यान टपाल पावोवपाभायर मनी ऑर्डरी धाडपाची सुविधा आसता. हे वेवस्थे वरवीं भारतांतल्या खंयच्याय भागांत पयशे धाडून दिवं येतात. पोस्टमन हे पयशे दारांत व्हरून पावयता. मनीऑर्डरीचो हिशोब राखूंक थरावीक वाठार आस्पाविल्ल्या लेखा तपासणी कार्यालयाची (Audit offices) वेवस्था केल्ली





विश्व डाक संघ
Union Postale Universelle
1874 - 1974





दर एका विभागांत (Division) दोन, तीन वा केन्नाय चार उपविभाग (Sub Division) आसतात. ह्या दर एका उपविभागांत एकेक निरिक्षक (Inspector) नेमिल्लो आसता. टपाल कचेऱ्यांचें काम सुरळीतपणान आनी प्रामाणिकपणान जावंचें म्हूण तो नदर दवरता. कचेऱ्यांक भेट दिवप, तपासणी करप हें ताचें मुखेल काम. पोस्टमन वर्ग ताच्या हाताखाला आसता.

**टपाल हाताळपाची पद्दत** - टपाल कचेरी मुखार वा भौशीक मळार उब्यो केल्ल्या टपाल पेटयांनी लोकांनी घाल्लीं पत्रां, थारायिल्ल्या वेळार टपाल कचेरींत एकठांय करतात. टपाल कचेरींत तीं सारकीं मांडून तिचेर ते टपाल कचेरेंच्या नांवाचो आनी तारखेचो शिक्को मारतात. वांगडाच ताचेर मारिल्ली टपाल तिकीट रद्द करतात. उपरांत टपाल कचेरेंत तांची मुळावी वांटणी (Sorting) जाता. ही वांटणी व्हड व्हड शारांपुरती आनी भागांपुरती मर्यादीत आसता. उपरांत अशी वांटणी केल्लीं पत्रांचीं बंडलां जिल्ह्याच्या वा विभागाच्या वांटणी कार्यालयांत (Sorting Office) धाडटात.

आसा. तेचप्रमाण टपाल बचत येवजणे खाला पयशे घेवन ते जुरासयत परत करपाची वेवस्था आसा. तारायंत्रावरवीं तारो (संदेशवाहन) धाडपाची सोय मुखेल टपाल कचेऱ्यांनी उपलब्ध आसा. मोल येणें (value payable) पद्दतीन टपालावरवीं वस्तू मागोवं येतात. तांचें मोलय टपाल कार्यालया वतीन फारीक करूं येता. परदेशांत ही पद्दत बरीच घोळ्ळ्या. पूण भारतांत ही पद्दत चड करून पुस्तकां मागोवपापुरती मर्यादीत आसा.

मोलादीक कागदपत्रां, पार्सलां धाडटना तीं रजीस्टर करपाची सुविधा टपाल कार्यालयांत आसा. जाय जाल्यार तांचो विमोय उतरावं येता. हे सुविधेवरवीं पत्रांक, पार्सलांक संरक्षण मेळटा.

१९११ वर्सा भारतांत विमानावरवीं टपाल पावोवपाची (Air mail) सुविधा सुरू जाली. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसासावन पिनकोड पद्दत लागू जाली. १ एप्रिल १९८६ ह्या दिसा जलद टपाल(speed post) सुविधा सुरू जाली. सरकारी टपाल सेवेवांगडा, समांतर अशी खाजगी टपाल सेवा (पत्रां,पार्सलां पुरती मर्यादीत) आयज मुखेल शारांनी चलता.

सुरवेक गोंयचो पोस्टाचो वेव्हार पुर्तुगाला पुरतोच मर्यादीत आशिल्लो. तोय सामको अनियमीत आनी सुदारिल्ले पद्दतीन न्हय. सरकारी अधिकारी आनी सैनीक हांचेंच टपाल बोटीन येतालें आनी धाडटाले. १८११ मेरेन पोस्टाचें कार्यालय पोरण्या गोंयांत आशिल्लें. उपरांत तें पणजे हाडलें. १८५० त ब्रिटिशांच्या आदारान गोंयांत आधुनिक आनी नेमान टपाल सेवा सुरू जाली. फुडें गोंयच्या मुखेल गांवांनी टपाल कार्यालयां उक्तीं जालीं.

सद्या गोंयांत २ प्रधान टपाल कार्यालयां, १०२ उप टपाल कार्यालयां आनी १३४ शाखा कार्यालयां आसात. गोंय विभागाचे प्रवर अधीक्षक जांचें कार्यालय पणजे आसा तें पुराय गोंयच्या पोस्टाच्या वेव्हाराचेर नियंत्रण दवरता.

- महाबळेश्वर सैल

**टमाट :** (मराठी : टोमॅटो, वेलवांगी; हिंदी : टमाटर, विलायती बैंगन; गुजराती : विलायती वेंगण; लॅटीन : लायकोपर्सिकॉम एसकुलॅण्टम मिल; कूळ : सोलोनेसी).



जायतीं वर्सां जगपी आनी लागवडींतलें फकत एक वर्सभर जगपी झाड. ह्या झाडाचें रोंप ल्हान आसतना सोडमूळ(Taproot) आसता. पुनर्लावणी करतना ह्या मुळाजाग्यार खोडाचे सकयले वटेन ॲडवॅण्टेशीयस पाळां येतात. व्हडल्या झाडाचीं असलीं पाळां ३ ते ५ फूट जमनीसरपट लांब वता. झाडाचें मुखेल एक खोड आसून ताकाच खांदयो येतात. तें सुरवातेक १-२ फूट मेरेन उबें आसता आनी मागीर बागवता. झाडाची लांबाय ३ ते ४ फूट आनी जाडाय १ते१ १/२ इंच आसता. खोड सुरवातेक नाजूक, केसाळ आसता. उपरांत तें वातड जाता. खांदयांची लांबाय १ ते १ १/२ फूट आसता. पानां ४ ते ५ सेंमी. लांब आनी २ ते ३ सेंमी. रूंद आसतात. ह्या झाडाक ४ ते १२ हळदुवीं लांबपी फुलां आसतात. फळां ५ ते ६ सेंमी. लांब आनी ४ ते ५ सेंमी. रूंद, लांबट, वाटकुळीं वा तांतया आकाराचीं आसतात. ताचो रंग तांबडो वा हळदुवो आसता. भितल्लो भाग मांसाळ आसून तांतूत बारीक बियो आसतात.

हिच्या वन्य जातीचें मूळ स्थान दक्षिण अमेरिकेंतल्या पेरु-एक्वादोर, बोलिविया वाठारांत आसून लागवडीतले प्रकार मॅक्सिको आनी द. अमेरिकेंत अस्तित्वांत आयले आसूंक जाय. मॅक्सिकोंतल्यान सोळाव्या शतमानांत ही वनस्पत युरोपांत व्हेली अशें म्हण्टात. भारतांत ही वनस्पत पुर्तुगेजांनी हाडली. सद्या संवसारांतल्या सगळ्या वाठारांनी ही वनस्पत लागवडीखाला आसा. बटाट आनी कणगां हांचे फाटोफाट टमाट हें संवसारांतलें भाजीपाल्याचें म्हत्वाचें पीक. टमाटाच्या उत्पादनांत अमेरिकेचो पयलो नंबर लागता. जगांतलें टमाटाचें १ तृतीयांश उत्पादन थंय जाता. भारतांत १९०० वर्साच्या सुमाराक टमाटाची व्हड प्रमाणांत लागवड सुरू जाली.

टमाटाचे खावपाचे मुखेल दोन प्रकार अशे – एसकुलॅण्टम आनी पिंपीनेली फोलियम(Pimpinelli Follium). ते भायर पुसा अर्ली ड्वॉर्फ(Pusa early Dwarf), पुसा रुबी (Pusa rubi), मारग्लोव, पुसा गौरव, अरका शितल, बेस्ट ऑफ ऑल आनी सिओक्स (Sioux). हालीं टमाटाच्यो रुपाली, वैशाली, रश्मी ह्या सारक्यो संकरीत जाती प्रसारीत जाल्यात.

टमाट हें उश्ण हवामानाचें पीक. ताका सरासरी तापमान २१° ते ३२° सॅ. आसूंक जाय. पूण १८° ते २७° सॅ. तापमानांत ह्या पिकाची लागवड जावंक शकता. भारतांत खंयच्या ना खंयच्या वाठारांत वर्सभर हें पीक लागवडीखाला आसता. ह्या पिकाक माती आनी रेंव (loamy) आशिल्ली जमीन बरी मानवता. चर्ण्यार टमाटाचीं रोंपां तयार करून उपरांत तीं शेतांत रोयतात. टमाटाचीं वर्साक दोन-तीन पिकां घेंव येतात. तांकां १०५ ते १३५ दिसांचो काळ लागता. बियांचें प्रमाण दर हॅक्टरी ४०० ते ५०० ग्राम लागता. ७.५ ते १० सेंमी. उंचायेचीं आनी घट्ट खोडाचीं रोंपां शेतांत लायतात. दोन ओळींनी आनी दोन रोंपांमदीं ७५x४५ सेंमी. अंतर दवरूंक जाय. हॅक्टरी २० टन शेणखत आनी ११० किलो नत्र, १०० किलो स्फुरद, ६० किलो पालाश दिवचें पडटा. ह्या झाडाक फावो तितलेंच उदक दिवचें पडटा. तशेंच झाडाक बडयेचो आदार दिवंचो पडटा.

टमाटाचें हॅक्टरी १६,००० ते २४,००० किलो उत्पन्न येता. हें एक भाजीपाल्याचें म्हत्वाचें पीक. तें एक संरक्षक जेवण म्हूण घेतात. हाचेभायर टमाटापासून सूप, सालाद, लोणचें, कॅचप, सॉस तयार करतात.

टमाटाच्या झाडार फळां पोखरपी कीड इपीलाचना बिटल(Epilachana beetle) ह्यो मुखेल किडी पडटात. ताचेखातीर ४०० मिली. क्रिनोलफॉस, २५० लिटर उदकांत घालून फवारचें. मोझेक वा चुड्डो मुड्डो, मर, भुरी हे रोग ह्या झाडाक लागतात. झोझेक वा मर हे रोग टमाटाच्या झाडाक लागल्यार २५० मिली. डायमाथोएट २५० लि. उदकांत घालून फवारचें. भुरी ह्या रोगाखातीर ७५० ग्राम वेटेवल सल्फर २५० लि. उदकांत घालून फवारचें.

गोंयांत टमाट बक्टेरियल विल्ट तशेंच ब्रॉन्झ विल्ट नांवाच्या रोगांक बळी पडटा. देखून चड प्रमाणांत पीक येना. वैशाली, कर्नाटक, हायब्रीड ह्यो टमाटाच्यो संकरीत जाती. हाचे दर हॅक्टरी लागपी बियाणांचें प्रमाण १२५ ते २०० ग्राम इतलें आसता. पिकावळ तयार जावपाचो तेंप ११० ते ११५ दीस आनी दर हॅक्टरी उत्पन्न ७५,००० ते ८७,५०० किलो आसता. टमाट ही पुश्टीक खाण दिवपी भाजी आसा, जातूंत जीवनसत्वां आनी खनिजांचें प्रमाण भरपूर आसता.

- यादवेंद्र देसाय

**टॅक्सास :** अमेरिकेच्या दक्षिण-मध्य भागांतलें दुसरें व्हड राज्य.

क्षेत्रफळ ६,९२,४०२ चौ. किमी. विस्तार २५° ५१' उत्तर ते ३६° ३०' उत्तर आनी ९३°३१' अस्तंत ते १०६°३८' अस्तंत. हाचे आग्नेयेक मॅक्सिकोचें आखात आनी नैर्ऋत्येक मॅक्सिको, अस्तंतेक न्यू मेक्सिको, उत्तरेक ओक्लाहोमा, ईशान्येक आरकॅन्सॉ आनी उदेंतेक लुइझियाना हीं राज्यां आसात. उदेंतेच्या सगल्या उत्तर शिमांचेर रॅड न्हंय, लुइझियॅना शिमेची सु. ६६% सुवात सॅबीन न्हंय, नैर्ऋत्य शिमेचेर रीओ ग्रँड न्हंय आनी आग्नेयेक मॅक्झिकोचें आखात अशी राज्याची चडशी शीम उदकान रेवडायल्ली आसा. ऑस्टिन ही ह्या राज्याची राजधानी.

**भूंयवर्णन** - उथळ तशीच रेंवट जमीन, दोंगुल्लयो, दोंगर, पर्वत, सडे अशे विंगड-विंगड भूंयप्रकार ह्या राज्यांत सांपडटात. हो प्रदेश आग्नयेच्या मॅक्सिको आखातासावन पावंड्यापावंड्यांनी वायव्येक आनी अस्तंतेक चडत गेला. आखाती देगांचेर ११५ मी. उंचायेचीं, ४० ते ८० किमी. रुंदायेचीं सखल रेवंट मळां आसून कांयकडेन रेंवट जमनी आसात. नैर्ऋत्येक 'ट्रान्स पेकस' हो पेकस न्हंयेपलतडचो वाठार, तणांनी तसोच वसू पडिल्लो, राज्यांतलो सगळ्यांत उंचायेचो वाठार. ह्या वाठारांत ग्वादालूप, डेव्हिस आनी चीसस हे तीन सगळ्यांत उंचेले पर्वत आसात. टॅक्सासांत सॅबीन, नेचिस, ट्रिनिटी, ब्रझस, कोलोरॅडो आनी ग्वादालूप ह्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो आसात. मेक्सिकोच्या आखातावयली दर्यादेग सु. ९६२ किमी. आसा.

राज्याचे दक्षिण-उत्तर आनी उंचसखल आशिल्ले भूंयेक लागून हांगा हवामानाचे विंगड विंगड प्रकार मेळटात. उत्तर वाठारांत उश्ण गीम, खूब तेंप कडक शिंयाळो, दर्यादेगांच्या वाठारांनी उश्ण गीम आनी सादारण शिंयाळो आसता. अस्तंत वाठारांत पावसाचें प्रमाण सु. २५ सेंमी., उदेंत वाठारांत सु. १२५ सेंमी. इतलें आसता. राज्याचें सादारण तापमान उण्यांत उणें ९.४° सॅ. ते चडांत चड ३०.६° सॅ. आसता. वर्सुकी पावस ८२.२ सेंमी. पडटा.

प्रेअरी ही हांगाची मुखेल वनस्पत. पाइन, पीकान हांचे सारकीं कांय झाडां तेचपरी विंगड विंगड जातींचीं रानफुलां थंय सांपडटात. तरेकवार हरणां, चानयो, सोंशे, कायोट, कोले, रानमेंढरां, आर्माडिल्लो ही मोनजात थंय आसा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था** - कॅडो, कॉमांशे आनी हेर रॅड इंडियन आदिवासी जमातींचो हो प्रदेश. १६८२त स्पॅनियार्डांनी आयच्या एल् पॅसोलागीं यरलेता गांवांत आपलो राबितो केल्लो. सु. १६८५ त फ्रँचांनी ला सालने मॅटगॉर्ड गांवांत आपल्या लुइझियाना वसणुकेची स्थापणूक केली. पूण फ्रँच रिगतले ह्या भंयान स्पॅनियार्डांनी उपरांतल्या काळांत जायतीं धर्मकेंद्रां आनी किल्ले बांदले. अमेरिकेन १८०१ त लुइझियानाचो एक वांटो म्हूण टॅक्सासाचेर आपलो हक्क आसा असो दावो केल्लो. पूण स्पेनान तें न्हयकारलें. १८२१ त मॅक्सिको जेन्ना स्वतंत्र जालो तेन्ना हजारांनी अँग्लो-अमेरिकन शेतकामती टॅक्सासांत रिगूंक लागले. टॅक्सासाची लोकसंख्या नेटान वाडटाशी पळोवन मॅक्सिकन सरकारान स्थलांतराचेर खर बंधनां घालीं. हाका लागून टॅक्सासच्या लोकांनी आपली स्वतंत्रताय जाहीर केली. पूण नव्या टॅक्सास प्रजासत्ताकाचो सॅम ह्युस्टन हो पयलो अध्यक्ष जालो. पूण अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांक जोडपाची टॅक्सासाची धडपड चालूच आशिल्ली. उपरांत २९ डिसेंबर १८४५ दिसा टॅक्सास हें अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानाचें एक राज्य म्हूण अस्तित्वांत आयलें. राज्याच्या कारभाराची देखरेख दोन वर्सांखातीर राज्यपाल आनी ताचें कार्यकारी मंडळ करतात. राज्याच्या सिनेटांत ३१ आनी प्रतिनिधी घरांत १५० वांगडी आसतात. सिनेटर चार वर्सांखातीर आनी प्रतिनिधी दोन वर्सांखातीर वेंचून काडिल्ले आसतात. टॅक्सासाचे अमेरिकेचे काँग्रेसींत २ सिनेटर आनी २४ प्रतिनिधी आसात.

**अर्थीक स्थिती** - राज्यांतल्या श्रमीक लोकांमदले फकत १६% लोक शेतकी उद्देगांत आसात. पीकॉन, जोंधळो, गंव, मको, ओट, बार्ली, तांदूळ, मोसंबी, चकोतरा, बटाट ही थंयची मुखेल पिकावळ. गोरवां आनी मेंढरां हांचेंय उत्पन्न हेर राज्यांपरस चड आसा. शेतवडीच्या मळाचेर जाल्ली उदरगत, यंत्रांचो वापर, नव्या बियाणांचो उपेग हाका लागून पिकावळींत बरीच वाड जाल्या.

सैमीक तेलांचें उत्पादन ह्या राज्यांत म्हत्वाचें थारलां. तेल काडून ताचें शुध्दीकरण करप आनी उद्देगीक मळार ताचो उपेग करप हो ह्या राज्यांतलो मुखेल उद्देग. कारखान्यांनी १४% लोक काम करतात. थंयचें मुखेल उत्पादन म्हळ्यार रासायनिक द्रव्यां, प्रक्रिया केल्ले अन्नपदार्थ, तेला निवळीकरण, तेलखण यंत्रसामुग्री, विमानां आनी मेकळे भाग, धातू निवळीकरण हांचें आसा. थंयचे ८०% लोक शारांनी रावतात. निग्रोंचें प्रमाण १३% आनी चिकॅनो १५% आसात. शिक्षणीक मळार उदरगत जायत आसा. मुळावें शिक्षण सक्तीचें आसून, गोऱ्या आनी काळ्या लोकांच्या वेगळ्या शाळांचो आंकडो उणो जायत आसा. ह्यूस्टन हें थंयचें सगळ्यांत व्हड शार आनी ऑस्टिन ही राज्याची राजधानी.

- कों. वि. सं. मं.

## टॅटम, एडवर्ड लॉरी :

(जल्म : १४ डिसेंबर १९०९, बोल्डर - कॉलॉराडो; मरण : ५ नोव्हेंबर १९७५, न्यूयॉर्क).

नामनेचो जीवविज्ञानीक, जीवरसायनशास्त्रज्ञ आनी आनुवंशिकीतज्ञ. ताचें शिक्षण शिकागो आनी विस्कॉन्सिन ह्या विद्यापिठांनी जालें. १९३१ त ताणें रसायनशास्त्राची ए.बी. आनी १९३२ त सुक्ष्मजीवविज्ञानाची एम्. एस्. ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. सुक्ष्मजीवांचें पोशण आनी चयापचय ह्या विशयाचेर प्रबंध बरोवन ताणें १९३४ त पीएच.डी. मेळयली. ते उपरांत हॉलंडांतल्या उत्रेक्त विद्यापिठांत ताणें कांय तेंप संशोधन केलें. हॉलंडासावन परत येतकच ताणें स्टॅनफर्ड विद्यापिठाच्या जीवविज्ञान, वनस्पती विज्ञान, सुक्ष्मजीवविज्ञान आनी जीवरसायनशास्त्र ह्या विभागांनी काम करतकच (१९३७-४५), यॅल विद्यापिठांत पयलीं वनस्पतीविज्ञानाचो सहाय्यक प्राध्यापक आनी उपरांत सुक्ष्मजीवविज्ञानाचो प्राध्यापक (१९४५-४६) ताणें काम केलें. फुडें तो स्टॅनफर्ड विद्यापिठांत जीवविज्ञानाचो प्राध्यापक म्हूण परत आयलो (१९४८-५७) आनी १९५७ वर्सासावन ताणें रॉकफेलर इन्स्टिटयूट फॉर मॅडिकल रिसर्च हे संस्थेंत काम केलें.

टॅटम हाणें सुक्ष्मजंतू, यिस्ट आनी बुरशी हांच्या पोशण गरजांचेर अनुहरित उत्परिवर्तनांच्या जावपी परिणामांविशीं मुळावें संशोधन करून रेणवीय आनुवंशिकी ह्या जीवविज्ञानाचे शाखेची बुन्याद घालपाक मदत केली. स्टॅनफर्ड विद्यापिठांत काम करता आसतना टेटम आनी बिडल हाणें पयलीं 'ड्रॉसोफिला मॅलॅनोगॅस्टर' ह्या फळमुसाचेर आनी उपरांत 'न्युरो स्पोरा क्रासा' हे पावावयले बुरशीचेर संशोधन केलें. ताचेवयल्यान सगळ्यो जीवरसायनीक प्रक्रिया अखेरेक जनुकांच्या (genes) वरवीं नियंत्रीत

जातात. ह्यो सगळ्यो प्रक्रिया रसायनीक विक्रियामाळांच्या रुपांत मांडूं येतात. दरेक विक्रिया फकत एकाच जनुकावरवीं नियंत्रित जाता आनी एकाच जनुकांतल्या उत्परिवर्तनाक लागून कोशिकेच्या फकत एकाच रसायनीक विक्रिया घडोवन हाडपाचे तांकीचेर परिणाम जाता, हे म्हत्वाचे निश्कर्श ताणें काडले.

'न्युरोस्पोरा क्रासा' हे बुरशी वयल्या संशोधना वरवीं टेटम आनी ताच्या वांगड्यांनी प्रस्थापीत केलें तें अशें : जेन्ना एकादऱ्या जननीक उत्परिवर्तनाक लागून एकाद्रे खाशेले रसायनीक विक्रियेचेर परिणाम हाडपी ॲनझायम बदलिल्लें आसता वा ना जाल्लें आसता. अशे तरेन ताणें दरेक जनुक खंयच्या तरी प्रकारान एका खाशेल्या ॲन्झायमाची रचणूक निर्धारीत करता .अशें दाखोवन जीवरसायनीक आनुवंशिकीची बुन्याद घाली. साद्या अकार्बनी द्रव्यांत हे बुरशीची वाड करपाखातीर बायोटीन गरजेचें आसता, होय सोद ताणें लायलो. आनुवंशिकींतल्या ताच्या मोलादीक कार्याखातीर ताका १९५८ चो वैजकी वा शरीरक्रियाविज्ञानाचो नोबॅल पुरस्कार जी. डब्ल्यू. बिड्ल आनी जे. लेंडरबर्ग हाचे वांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**टॅनिस :** पेल्ल (Ball) आनी रॅकेट (Racket) हांच्या आदारान स्वबळाचेर खेळपाक येवपी एक विदेशी खेळ. इकराव्या शतमानांत फ्रान्स देशांत आश्रम वा मठांनी रावपी मठवासी 'ज्यू द पाम' (Jeu de Paume) नांवाचो एक खेळ खेळटाले. आयच्या टॅनिस खेळाचो हो मूळ खेळ. हो खेळ खास करून मठ वा आश्रमांतल्या बंद खेळामैदानार जातालो. पंदराव्या शतमानांत इटालियन पाद्री आंतोनियु द स्कालो (Antonio de Scalo) हाणें हो खेळ खेळूंक पयले फावट रॅकेट प्रचारांत हाडलें अशें मानतात. १७९३त उजवाडाक आयिल्ल्या स्पोर्टींग मॅगेझीन ह्या इंग्लीश पत्रांत ह्या खेळाचो उकत्या मैदानावयलो खेळ (Outdoor Game) म्हणून उल्लेख आयला. ८० वर्सां उपरांत उजवाडाक आयिल्ल्या 'बूक ऑफ गेम्स ॲण्ड स्पोर्टस्' हातूंत ह्या खेळाक लाँग टॅनिस (Long Tennis) म्हणून पाचारला. वेल्स (Wales) देशांतल्या नॅण्टक्लावड (Nant Clwyd) गांवांत मेजर वॉल्टर क्लॉपटॉन विंगफिल्ड (Major Walter Clopton Wingfield) हाणें आयज खेळपाक येवपी लॉन टॅनिस खेळाची बुन्याद घाली. देखून ताका 'लॉन टॅनिस खेळाचो मूळ पुरूस' मानतात. व्हिक्टोरिया राणयेच्या काळांत हो खेळ खूब नांवारुपाक आयलो. लॉन टॅनिस खेळाचो पयलो वयलो सामनो अमेरिकेंत डॉ. जेम्स ड्वायट (Dr. James D'wight) आनी एफ. आर. सीयर्स (F. R. Sears) हांचे मजगतीं जालो.

हो खेळ दादलो आनी बायल ह्या दोनूय वर्गांनी एकोडी, दोट्टी आनी मिश्र दोट्टी अशा तीन गटांनी खेळटात.

**नेम आनी पद्दत** - कुरू-बावलो जिखपी खेळगडो मैदानाची खंयची बाजू घेवप आनी खेळ पयलीं कोणे सुरू करप हें थारायता. उपरांत दोनूय खेळगडे एकमेकांआड आपआपल्या चौखणांतल्या एका खास जाग्यार, चड करून कोनांत, समांतर रेशेंत तिरकस उबे रावतात. एक खेळगडो आपले खासा शैलींत, पेल्लाचेर रॅकेटाचो फटको दिवन खेळ सुरवात करता. ताका सर्व्हीस (Service) म्हण्टात. हो फटको खेळपाच्यो दोन संदी खेळगड्याक मेळटात. दोनूय संदी वगडायतकच ही संद विरुद्ध खेळपी खेळगड्याक मेळटा. वांगडा एक उपगूण मेळटा. दर एका उपगुणा फाटल्यान नव्यान पयलो फटको (Service) खेळचो पडटा. जर खेळाक सुरवात करपी खेळगड्याचो फटको जाळयेवल्यान अचूक वचून विरुद्ध खेळप्याच्या आंगाक, रॅकेटाक वा हेर कसलेय वस्तीक लागून ताच्या चौखणाच्या शिमेभायर गेलो वा ताणें परतिल्लो फटको जाळयेक वा हेर कसलेय वस्तूक लागून ताच्याच चौखणांत उरलो तर खेळ सुरवात करपी खेळगड्याक एक उपगूण मेळटा. खेळ चालू आसतना एक फटको खेळपाक रॅकेट आनी पेल्लाचो एकापरस चड फावट संबंद आयलो वा पेल्ल दुसऱ्या खेळगड्याच्या चौखणांत आसतना फटको मारपाचो यत्न केलो जाल्यार विरोधी खेळगड्याक एक उपगूण मेळटा. जर रॅकेट शेंवटून पेल्ल मारपाचो यत्न केलो वा शेंवटिल्लें रॅकेट दुसऱ्या खेळगड्याच्या चौखणांत पडल्यारय विरोधी खेळगड्याक एक उपगूण मेळटा.

**गूण मेजणी** - टॅनिस खेळांतल्या दर एका उपगुणाक १५,३०,४० अशे संख्येन मेजतात. तीन उपगूण जोडटकच खेळगड्याक एक पूर्ण गूण मेळटा. दोनूय खेळगड्यांमदीं उपगुणांची बरोबरी जाल्यार ड्यूस (Deuce) म्हण्टात. अशा वेळार दोन चडावत उपगूण जोडपी, एक पूर्ण गूण जोडटा. स गूण पयले जोडपी, खेळाचें षटक (Set) जिखता. षटक जिखपी आनी हारपी, हांचे मदीं दोन गुणांचो फरक आसचो पडटा वा खेळ फुडें चालू उरता. सद्या अशा वेळार टायब्रेकर ही पद्दत आपणावन निकाल दितात. अशे तरेन खेळ दोन ते पांच षटकांमेरेन चलता. चड षटकां जिखपी खेळगडी जैतीवंत थारता.

टॅनिस खेळांतले कांय म्हत्वाचे फटके अशे :-

**सर्व्हीस :** एके खास शैलींत, रॅकेटाचो पेल्लाचेर दिल्लो नेटाचो फटको, जो जाळयेवल्यान अचूक वचून दुसरे वटेन चौखणांत पडटा. खेळाची सुरवात ह्याच फटक्यान जाता.

**बॅक हॅण्ड ड्रायव्ह (Back hand drive)** - पुराय दावे वटेंतल्यान उजवे वटेन घुंवत मारिल्लो फटको, जाका लागून पेल्ल चड वेळ रॅकेटाचेर उरता.

**वॉली (Volley)** - जाळयेसावन आठ फूट अंतरार रावन पेल्लाचेर मारिल्ले हलके फटके जे खूब उणे उंचायेवयल्यान वतात.

**स्मॅश (Smash)** - जाळये म्हऱ्यांत लागीं वचत, पेल्लाचेर मारिल्लो नेटाचो फटको.

**चॉप (Chop)**- पेल्लाचेर एके कुशीन मारिल्लो फटको जाका लागून पेल्ल फिरकी घेत दुसऱ्या चौखणांत वता.

**लॉब (Lob)** - पेल्ल वाऱ्यांत खूब उंचायेर मारप, जाका लागून दुसरे वटेन खेळपी खेळगडी जाळयेसावन पयस वता.

**खेळामैदान** - टॅनिस खेळाचें मुखेल खेळामळ (Court) माती, शिमीट वा तणाचें आच्छादन (Cover) घालून तयार करतात. बंदिस्त खेळामैदाना वयलें खेळामळ लाकूड, नायलॉन वा रबर वापरूनूय तयार करतात. खेळामळाची लांबाय २३.७७ मीटर (७८ फूट), रुंदाय १०.९७ मीटर (३६ फूट). दोट्टी सामन्यांत दोनूय वटेनची रुंदाय १.३७ मीटर (४ फूट ६ इंच) इतली वाडयतात. टॅनिसाचें खेळामळ दोन सारक्या चौखणांत वांटिल्लें आसता. दोनूय वटेन जाळी ते सर्व्हीस करपाची शीम हांचे मजगतीं दोन सारके चौकोन आंखिल्ले आसतात. तांची लांबाय ६.४० मीटर (२१ फूट) आनी रूंदाय ०.९१ मीटर (३ फूट) आसता.

**पेल्ल** - रबराचो आसून ताका चड करून लां गुटलायिल्लें आसता. पेल्लाचो आकार ६.३५ ते ६.६७ सेंमी. (२१/२ - २५/२ इंच) इतलो आसून वजन ५६.७० ते ५८.५० ग्राम (२-२१/१६ औंस) इतलें आसता.

**रंग** - धवो वा हळदुवो.

**रॅकेट** - लांबाय ८१.२८ सेंमी. (३२ इंच), रुंदाय ३१.७५ सेंमी. (१२१/२ इंच) आसता. रॅकेटाची जाळी नायलॉन वा त्या सारक्या सुतान गुंथिल्ली आसता. रॅकेटाची जाळी सादारणपणान ३९.३ सेंमी. (१५१/२ इंच) लांब आनी २९.२१ सेंमी. (१११/२ इंच) रूंद आसता. वजन ३६८.५५ ते ३९६.९० ग्राम (१३-१४ औंस).

**खेळामळावयली मदली जाळी** - जाळयेच्या दोनय कुशींची आनी दोनूय खांब्यांची उंचाय १.०७ मीटर (३ फूट ६ इंच) तर मध्य बिंदू ०.९१ मीटर (३ फूट) आसता.

**इनामां** - टॅनिस खेळगड्याक रोख इनामाभायर अर्जून पुरस्कार आनी पद्‌मश्री सारके भोवमान फावो जाल्यात. विजय अमृतराज हाका १९८३ वर्सा पद्‌मश्री हो भोवमान मेळ्ळो. रमेश कृष्णनाक १९८०-८१ वर्सा अर्जून पुरस्कार फावो जालो. निरुपमा मंकड हिका ७८-७९ वर्सा अर्जून पुरस्कार मेळिल्लो.

**शिक्षण** - चेन्नईतली ब्रिटानिया अमृतराज ही संस्था सद्या भारतांत नवे-नवे टॅनिस खेळगडे घडोवपाचो वावर करता.

आशिया खंडांत भारताभायर चीन, जपान, दक्षिण आनी उत्तर कोरिया, इझ्रायलांत हो खेळ खूब नांवारुपाक आयला. भारतीय खेळगड्यांनी ह्या खेळांत मेळयिल्लें यश खूब मर्यादीत आसा. १९७९ आनी १९९० वर्सा ज्युनियर विंबल्डन सर्तीचें वस्तादपण रमेश कृष्णन आनी लियॅण्डर पायश हांकां मेळ्ळें. १९९१ वर्सा ज्युनियर अमेरिकन उकते



टॅनिस खेळमैदान

सर्तीचे वस्तादपणय पायस हाकाच मेळ्ळें. १९५४ वर्साचें ज्युनियर विंबल्डन वस्तादपण रामनाथ कृष्णन हाणें जोडिल्लें.

**नांवजते खेळगडे** - टॅनिस खेळांतल्या नांवाजिल्ल्या भारतीय खेळगड्यांमदीं रामनाथ कृष्णन, प्रेमजितलाल, जयदीप मुखर्जी, विजय आनी आनंद अमृतराज, रमेश कृष्णन, लियण्डर पायश, निरूपमा मंकड जाल्यार विदेशी खेळगड्यांमदीं बिली जीन किंग, मार्टिना नवरातिलोवा, स्टॅफी ग्राफ, क्रिस एव्हर्ट, मोनिका सेलेस, बियॉर्न बॉर्ग, इव्हान लँडल, बोरिस बॅकर, आर्थर ॲश, जिमी कॉनर्स, स्टिफन एडबर्ग हांचो आस्पाव जाता.

**खेळासर्ती** - देशी खेळासर्तींमदीं स. राजेंद्र प्रसाद करंड सिनीयर नॅशनल टॅनिस चॅम्पियनशीप तर विदेशी खेळासर्तींमदीं विंबल्डन करंड, अमेरिकन उकती, फ्रेंच उकती आनी ऑस्ट्रेलियन करंड ह्यो मुखेल सर्ती आसात. ह्यो चार सर्ती एका वर्सांत (जानेवारी-डिसेंबर) जिखपी खेळगड्यान ग्रॅण्ड स्लॅम केलो अशें मानतात. राश्ट्रांमजगतीं जावपी सर्ती डेव्हीस करंड (दादल्यांखातीर) आनी फॅडरेशन करंड (बायलांखातीर) ह्यो आसात.

गोंयांत आयजमेरेन ह्या खेळाविशीं व्हडलिशी दखल घेतिल्ली दिश्टी पडना. देखून देशपांवड्याचेर गोंयचो एकूय खेळगडो पाविल्लो दिसना.

- पंढरीनाथ श्री. सुरसुरे

## टॅनिसन, आल्फ्रॅड :

(जल्म : ६ ऑगस्ट १८०९, समर्झबी, लिंकनशार; मरण: ६ ऑक्टोबर १८९२, ॲल्डवर्थ).

नामनेचो इंग्लीश कवी. सुरवातीचें शिकप लाउथाक घेतकच केंब्रीजच्या ट्रिनिटी कॉलेजांत ताणें प्रवेश घेतलो. पूण अर्थीक परिस्थिती बरी नाशिल्ल्यान पदवी घेवचे पयलींच ताका शिक्षण सोडचें पडलें (१८३१). ताका भुरगेपणासावन कविता बरोवपाची आवड आशिल्ली. ट्रिनिटी कॉलेजांत शिकता आसतनाच कविता लेखनाखातीर ताका 'चॅन्सलर्स गोल्ड मॅडल' मेळिल्लें.

Poems Chiefly Lyrical (१८३०) हो ताचो पयलो कवितांझेलो. १८३२ त Poems हो ताचो दुसरो कवितांझेलो उजवाडाक आयलो. १८३३ त आर्थर हॅलम हो ताचो जिवाभावाचो इश्ट मरतकच तो खूब निर्शेलो. तीन भावांचें मानसिक दुर्येस, प्रेम फळादीक जावपाक लागिल्लो कळाव, अर्थीक संकश्टां अशा वेगवेगळ्या आडमेळ्यांक तोंड दिता आसतना ताच्या काव्यलेखनांत मात्तूय खंड पडलोना. आदर्श नायकाची व्हिक्टोरियन युगांतली संकल्पना दाखोवपी 'युलिसीस' हे कवितेची रचना ताणें ह्याच काळांत केली. १८४२ तPoems ह्याच नांवाचे दोन कवितांझेले उजवाडाक आयले. ह्या काव्यझेल्यां उपरांत कवी म्हणून ताची नामना खूब वाडली. १८५० त उजवाडायल्ल्या 'ईन मॅमोरियम....' हे विलापिका माळेक व्हड यश मेळ्ळें. इंग्लंडची राणी व्हिक्टोरिया हिचोय ताका पालव मेळ्ळो. १८५० त ताका इंग्लडचो राजकवी केलो. उपरांतचे ताचे म्हत्वाचे बरपावळींत 'मॉड' (१८५५) ही कविता, 'द आयडियल्स ऑफ द किंग' (१८५९) ही काव्यमाळ, 'ईनक आर्डन' (१८६४) हें कथाकाव्य, 'बॅकेट' हें नाटक हांचो आस्पाव जाता. भावकविता, कथाकाव्यां, चिंतनिका, पदां, नाट्यगितां अशे कवितेचे वेगवेगळे प्रकार ताणें केळयले.

नादमधुर शब्द आनी भावना खरपणान परगटावपाचें कसब हीं टॅनिसनाचे भावकवितेचीं खाशेलपणां आसात. त्या काळांतले शास्त्र आनी धर्मकल्पना हांच्यांतले संघर्श, कर्तव्यां आनी हक्क हांचेविशीं तयार जाल्ल्यो जाणविकायो, दादलो-बायल समानताय कल्पना ह्या सगळ्या गजालींचें चित्रण ताचे कवितेंत आयलां. विशुध्द भावकवीची भुमिका सोडून कवितेंतल्यान त्या काळांत रूचपि असो उच्च मध्यम वर्गीय उपदेश टॅनिसनान केलो, अशी टिका ताचेर जाली. कांय समीक्षकांनी जाल्यार श्रेश्ठ कवी म्हूण ताची सुवातय न्हयकारली. पूण फुडें मात ताचे कवितेचें विस्तारान पुनर्मुल्यांकन जालें आनी टी. एस्. एलियट सारक्या नामनेच्या समीक्षकानय ताची तुस्त केली. व्हिक्टोरियन युगांतले इंग्लीश कवितेचो मुखेल प्रतिनिधी म्हणून ताका वळखतात.

– कों. वि. सं. म.

## टॅसिटस, पाब्लियस कॉर्नेलियस : (जल्म : इ.स. ५५/५६; मरण : इ.स. १२०).

नामनेचो रोमन इतिहासकार. ताचे वैयक्तिक जीणेविशीं चडशी म्हायती मेळना. पूण ताची बरपावळ आनी हेर सुत्रांकडल्यान तो इ. स. ५५ त जल्मल्लो असो अदमास करूं येता. तो धाकल्या प्लिनीचो इश्ट आनी नियस ज्युलियस अॅग्रिकॉला ह्या ब्रिटीश शासकाचो जांवय आसलो अशी म्हायती मेळटा. फुडें ताणें आपल्या मांवाचें 'लायफ ऑफ अॅग्रिकॉला' हें चरित्र बरयलें.

टॅसिटसाचीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां अशीं आसात – १) हिस्टरीस २) दियालॉगुश दी ऑरेटोरिबस ३) द व्हीता जुलाय अॅग्रिकॉला ४) द ओरीजिन ए सितु जर्मेनारेम ५) अॅनल्झ.

ताचें सगळ्यांत पयलें पुस्तक 'दियालॉगुश दी ऑरेटोरिबस' हें इ.स. ७९-८१ वर्सा बरयल्लें आसूंक जाय. ह्या पुस्तकाचे शैलीचेर सॅनेकापरस सिसॅरोचो छाप दिसता. हाका लागून ताचेर क्विंटिलियनाचो प्रभाव जाणवल्ल्यान लिप्सियसान 'दियालॉगुश' हें पुस्तक क्विंटिलियनाचें अशें मानलां. पूण खुबश्या पुराव्यांवयल्यान टॅसिटस होच त्या पुस्तकाचो लेखक म्हणून सिद्द जाता. ताच्या ग्रंथांतल्या उल्लेखांवरवीं ताणें रोमन शासन काळांत कांय म्हत्वाच्या अधिकारपदांचेर काम केल्लें अशें दिसता. डॉमिनिशयनच्या राज्यांत चार वर्सांमेरेन दंडनायक म्हणून वावुरले उपरांत ताणें न्यायप्रतिनिधी म्हणून कार्य केलां अशें समजता. रोमन साम्राज्यांतल्या आशियाई विभागाचो तो मुखेल प्रांत अधिकारीय जाल्लो.

डॉमिनिशनयनाच्या राजकारभाराचीं १५ वर्सां टॅसिटसान निश्क्रीय जावन सारलीं. उपरांत इ.स. ९८त ताचीं 'अॅग्रिकॉला' आनी 'जर्मेनिया' हीं दोन पुस्तकां उजवाडा आयलीं. जर्मेनिया हो ग्रंथ जर्मनीचे भुगोलिक स्थितीचेर तशेंच त्या काळांतले लोकजीणेचो समाजीक आनी संस्कृतीक म्हायती दिवपी एक प्रबंध. रोमन सम्राटांच्या मनस्वी कारभाराचेर ताणें खर टिका केल्या. ताचें बरप, चिकित्सक आनी खूब परिणाम सादपी आशिल्लें. ताच्या लिखाणाची शास्त्रशुद्ध पद्दत आनी ओडलायणी शैली हांकां लागून इतिहास लिखाणांत ताची सुवात घट आसली तरी तो पूर्वग्रह आनी पक्षपात हांचेपासून पुरायपणान मेकळो नाशिल्लो.

'हिस्ट्रीस' आनी 'अॅनल्झ' ह्या ग्रंथांत टॅसिटसाचे लेखनकलेची झलक मेळटा. टॅसिटसाकडेन मनाचे खोल उमाळे उकतावपाची प्रतिभा आशिल्ली. तेखातीर तो इतिहास बरयतना विशाल घडणुकांचे फाटभुंयेचो नियाळ करून बारीक विस्कटावणी करूंक पावलो. ताच्या पुराय लिखाणाचो इंग्लिशींत अणकार जाल्लो आसा.

– डॉ. किरण बुडकुले

## टॅस्ट ट्यूब बेबी : ज्या जोडप्याक शारिरीक संबंद दवरून वा सैमीक पद्दतीन भुरगीं जायनात अशा जोडप्यांखातीरExtra corporeal fertilisation अशी एक पद्दत वापरतात. हातूंत पुल्लिंगी आनी स्त्रिलिंगी बियाणांची एकी बायलेच्या आंगाभायर घडोवन हाडटात आनी उपरांत ही एकठांय केल्ली बिजां बायलेच्या गर्भाशयांत स्थापीत करतात. हातूंतल्यान जी संतत जाता ते संततीक टॅस्ट ट्यूब बेबी म्हणटात. सादारणपणान अशे गर्भधारणेचे पद्दतीक टॅस्ट ट्यूब बेबी म्हणप जाता. हेच पद्दतीक वैजकी शास्त्रांत In vitro fertilisation अशें म्हण्टात.

हे पद्दतीवरवीं उपचार करपी फकत १५% ते २५% बायलांक भुरगीं जावंक शकतात. तशेंच हातूंत खूब वेळ आनी पयसोय खर्च जाता. ताका लागून संवसारांतली थोडीच राश्ट्रां हे पद्दतीचो वापर करतात. ह्या कामाक यश मेळपाकय खूब वेळ लागता. जायते यत्न करून गुरवारपण आयलें जाल्यार लेगीत कांय खेपे गर्भपात जावन सगळे यत्न फुकट वचपाची शक्यताय आसता. ह्यो सगळ्यो गजाली लक्षांत घेवन आनी त्यो पेशंटाक समजावन मागीरच ही येवजण हातांत घेवंची पडटा.

ही पद्दत जेन्ना वापरतात तीं कारणां अशीं आसतात –

१) धातूंत शुक्रजंतूचें (Sperm) प्रमाण वा संख्या खुबूच उणी आसत वा शुक्रजंतूंत कसलेंय व्यंग आसत वा तांची हालचाल सारकी नासत जाल्यार.

२) बायलेच्या आंगांत पुल्लिंगी आनी स्त्रिलिंगी बियाणांची एकी जावपाची जी नळी आसता तिका अंडवाहिनी (Fallopian tube) अशें म्हण्टात. ही नळी केन्ना केन्ना इबाडटा वा ती बंद जाल्ली आसता. कांय खेपे ऑपरेशन करून लेगीत ती सारकी जावपाची शक्यताय आसना.

३) कांय जोडप्यांचे बाबतीत सगळे तपास करून लेगीत भुरगीं

जायनात जावपाचें कारण मेळना. हाका अकारणीक वांझपण (Idiopathic Infertility) अशें म्हण्टात. अशा पेशंटाक एक निमाणो उपाय म्हणून ही पद्दत वापरतात.

ही पद्दत वापरचे आदीं त्या जोडप्याक कांय तपास करून घेवंचे पडटात, ते अशे - १) धातूचो तपास (Sperm analysis). २) क्ष-किरण वापरून बायलेच्या आंगांतली अंडवाहिनी बंद आसत जाल्यार पळोवप. (३) दुर्बिण वापरून बायलेच्या आंगांतली अवयवांची परिक्षा करप. (Laproscopy).

हो उपाय करचे आदीं ही पद्दत वापरून भुरगीं जातलींच अशें खात्रीन कोणाकच सांगपाक येना. जे बायलेचेर हो उपाय करपाचो आसता तिका Ultrasonography ह्या यंत्राचो वापर करून तपासचें पडटा. ह्या यंत्रावरवीं ते बायलेच्या पोटांतले सगळे अवयव दिश्टी पडटात. तातूंत जे अंडकोश (Ovary) आसतात तांची पळोवणी करून तातूंतल्यान जे रजोगोल(Follicle) आसता तांचो विकास जावन तांचीं अंडीं (Ovum) तयार जातात काय ना हें कळटा.

म्हयन्याची पाळी येवन वतकच सुमार १४ दिसांनी हें अंडें तयार जाता. जर तें सैमीक पद्दतीन तयार जालेंना जाल्यार ते बायलेक clomiphene नांवाचें एक वखद दिवन तांची वाड घडोवन हाडटात. अशीं वखदां जेन्ना दितात तेन्ना एकाच वेळार खूब रजोगोल तयार जातात आनी दरेकांतल्यान एक अंडें तयार जाता. हाचे भायर Human chorionic Gonadotrophin (HCG) Human Menopausal Gonadotrophin (HMG) हीं वखदा दिवन लेगीत खूब अंडीं तयार करपाक येतात.

Ultrasonography ह्या यंत्राचो वापर करून त्या अंड्याचो आकार मेजपाक येता. जेन्ना एक अंडें १८ ते २० मि.मी. इतकें व्हड जाता, तेन्ना Laproscopy करून पोटांत दुर्बीण घालून अंडकोशांतलें उदक अंड्यासकट ओडून भायर काडटात आनी एका टॅस्ट ट्युबांत घालून तातूंत Culture Medicu नांवाचो एक पदार्थ घालतात. ताका लागून त्या अंड्यांचो विकास जाता आनी तीं परिपक्व जातात. सुक्ष्मदर्शक यंत्रान त्या अंड्यांचें निरिक्षण करतात. तेचवांगडा दादल्याकडल्यान रेत (Semen) मेळोवन तो Phosphate buffer ह्या पदार्थांत घालतात आनी केंद्रोत्सरित्र (Centrifuge) करतात. उपरांत ती त्या टॅस्ट ट्युबांत घालतात.

टॅस्ट ट्युबांत अंडें आनी रेत (Semen) आशिल्ल्या शुक्रजंतूची एकी जाता. २४ वरां उपरांत तें अंडें सुक्ष्मदर्शकान पळयल्यार ताची विभागणी जातना दिसता. त्या अंड्याची एका पेशीपसून दोन, दोनांच्यो चार आनी चारांच्यो आठ पेशी अशी विभागणी जाता. जेन्ना आठ पेशी आशिल्लें अंडे (8 celled stage) तयार जाता तेन्ना तें परत काडून बायलेच्या गर्भाशयांत दवरतात.

इतले त्रास घेवन तयार जाल्लें हें भुरगें गर्भपात जावन फुकट वचचें न्हय देखून जतनाय घेवंची पडटा. ती अशी - १) ते बायलेक न्हिदोवन दवरप २) गर्भाशय सुस्त करपाचीं वखदां दिवप (Uterine relaxants) ३) गर्भाशयांत भुरगें वाडचें देखून Progesterone हीं वखदां दिवप ४) गर्भ वाडटा काय ना हेंultrasound वापरून पळोवप, वा मुताची तपासणी करून HCG ह्या हॉरमोनाची तपासणी करप वा रगतांतल्या हॉरमोनाची तपासणी करप.

ही पद्दत यशस्वी जाली जाल्यार गर्भ वाडून ताचें भुरगें कशें जाता हें ultrasound वापरून पळोवंक मेळटा.

- डॉ. विजय तळावलीकार

**टांकणखार :** (Borax)एक खनीज. ताचें सुत्र (formula) अशें $Na_2B_4O_7.10\ H_2O$. ताचें नांव 'सोडीयम टॅट्राबोरेट डेकाहायड्रेट (Sodium tetraborate decahydrate). तो कं वचेवरी चकचकीत आसून रंगान धवोफुल्ल आसता आनी ताची रूच गोडसार आसता. टांकणखार हें नांव संस्कृतांतल्या टंकण शब्दावयल्यान घेतलां. इंग्लीश नांव बोरॅक्स हें 'बराक' ह्या अरबी शब्दावयल्यान घेतलां. बराक म्हळ्यार चकचकप.

चार हजार वर्सां आदीं बॅबिलोनियन लोक भांगराच्या कामांत तिबेटांतल्यान हाडिल्लो टांकणखार वापरताले. पुर्विल्ल्या काळांत, इजिप्ती लोक मडीं बाळगून दवरपाखातीर टांकणखार वापरताले. चीनी आनी अरब लोकय टांकणखाराचो उपेग करताले. सुश्रुतसंहिता ह्या वैजकी पुस्तकांत टांकणखाराचो उल्लेख मेळटा. तेराव्या शतमानांत मार्को पोलो हाणें युरोपांत टांकणखार पावयल्लो.

'टिंकॅल'(Tincal) ह्या खनिजांत ५५% टांकणखार आसता. टिंकॅलाचे साठें तिबेट, श्रीलंका आनी कॅलिफोर्नियाच्या सुकून पडिल्ल्या तळ्यांनी आसतात. इटली, अमेरिका, चिली, पेरू, कॅनडा, चीन, जर्मनी, सिरिया, तुर्कस्तान, रशिया ह्या देशांनी टांकणखार मेळसारके खनिजाचे ल्हान-व्हड सांठे आसात. हे सांठे वापरून थोड्या प्रमाणांत टांकणखाराचें उत्पादन जाल्लें आसा. भारतांतल्या काश्मिरांत टांकणखाराचे सांठे आसात. राजस्थानाच्या सांबर तळ्याच्या उदकांत ०.५ प्रमाणांत टांकणखार आसा. जाल्यार काठेवाडांतल्या लिमडीचे मातयेंत टांकणखार मेळटा.

आदल्या काळांत भारतांत टांकणखार नितळ करून निर्गत करपाचो उद्देग जातालो. हालीं तेंपार अमेरिका संवसारभर टांकणखार पावयता. कोलमनायट(Colemanite), टिंकॅल आनी कर्नायट (Kernite) ह्या खनिजांपासून टांकणखार तयार करूंक मेळटा. पूण तो चडसो कर्नायट ह्या खनिजापसुनूच तयार करतात. खाणींतल्यान टांकणखाराचें खनिज काडून ताचो पिठो करतात. $B^2O^3$ बोरॉन ट्रायोक्साईड (Boron Trioxide) चें खरखरीत प्रमाण आशिल्ला खनिजांचे पिठे भरसून $B_2O_3$ चें जाय तितलेंच प्रमाण आशिल्ली भरसण उदकांत घोळयतात. हें उदक तापयतकच टांकणखार आनी हेर रसायनां विरतात. जाल्यार फातर आनी माती तशीच उरता ती गाळून काडटात. टांकणखार आनी हेर रसायनां विरगळिल्लें खदूळ उदक आटयतकच खदूळसाण हाडपी गाळ पोंदाक बसता तो गाळून वेगळो केलो म्हण्टकच टांकणखार घोळिल्लें नितळ उदक मेळटा. हातूंतल्यान उपरांत टांकणखाराचे स्फटीक (Crystals) मेळटात आनी ते नितळ करतात.

सर्ल तळयेच्या उदकांत आशिल्लो टांकणखार काडपाच्यो दोन पद्दती आसात त्यो अशो - उदक आटोवपाची पद्दत आनी कार्बोनेशन पद्दत. उदक आटोवपाचे पद्दतींत (Crystalisation) तळयेचें फावो तितलें टांकणखार आशिल्लें उदक आटयतकच तातूंत आशिल्लें मीठ, सोडियम सल्फेट, सोडियम कार्बोनेट, स्फटीक जावन वेगळें जाता. उपरांत उरिल्लें उदक आनीक थंड करतकच टांकणखाराचे स्फटीक तयार जातात.

कार्बोनेशन पद्दतींत 'कार्बन डायॉक्सायड' हो वायू उदकांत सोडटकच उदकांत आशिल्लें सोडियम कार्बोनेट, सोडियम बायकार्बोनेट

जावन वेगळो जाता. उपरांत उदकांतलो टांकणखार वयर सांगला तेच पद्दतीन काडटात.

टांकणखार तांपयंतकच तातूंतलें उदक उडटा. मागीर कडलो की तो कंवचेभाशेन नितळ जाता. हातूंत धातूचें ऑक्सायड विरतात आनी धातूप्रमाण तांकां रंग येता. प्रयोगशाळेंत धातू तपासपाक टांकणखार मणी (Borax bead test) हाचो उपेग करतात. टांकणखार उदकांत विरता. टांकणखार घोळयल्लें उदक आल्कालायन आसता आनी ताचो पिएच (pH) सुमार ९.२ इतलो आसता.

टांकणखार सोल्डरींग, वॅल्डींग आनी ब्रेझींग करतना Flux म्हणून वापरतात. धातूचो पृश्ठभाग नितळ करपाखातीर वापरतात. टांकणखार घालून तयार केल्ली कंवची तापोवन रोकडीच न्हिवयली जाल्यार लेगीत फुटना म्हणून कंवची तयार करपाक टांकणखार वापरतात. चीनी मातयेचीं आयदनां आनी तिजुलें गुळगुळीत आनी चकचकीत करपाक टांकणखार उपकारता. तेभायर फस्कां, शाबू, कागद, चामडें, सारें, वखदां आदी तयार करपाच्या उद्देगांनीय वापरतात. भारतांतले टांकणखाराचे सांठे सोंपेपणान काडपाक मेळनात देखून भारत टांकणखाराची गरज आयात करून भागयता.

– प्रा. प्रेमानंद गो. फडते

**टांचणी :** कागद, कपडे वा हेर वस्तू एकठांय टांचून दवरपाखातीर वापरांत येवपी, एके वटेन कांट्याभशेन तीक्ष्ण तोंक आनी दुसरे वटेन धडयल्ली वाटकुळी बसकट, गुळगुळीत तकली आशिल्लो कडक सरयेचो कुडको.

खूब पुर्विल्ल्या काळांत कापडासारके पदार्थ एकठांय बांदून दवरपाखातीर भूमध्य दर्याचे उदेंत देगेवयल्या देशांत टांचणेचो उपेग जातालो. त्या काळांत वल्कलांचे आनी पांगरुणांचे भाग एकामेकांक जोडपाखातीर झाडांचे कांटे आनी नुस्त्यांचीं हाडां हांचो उपेग करताले. कांय काळाउपरांत कांश्याची सरी वापरात येवंक लागतकच ते सरयेपसून टांचण्यो तयार करपाक लागले.

इजिप्तांतल्या थडयांत ३,००० वर्सांआदल्यो कांय धातूच्यो मोलादीक टांचण्यो सांपडल्यात. रोमन लोक धातूच्यो टांचण्यो वापरताले आनी तांचे तकलेर रत्नांचे खडे बसयताले. १८२३ मेरेन टांचण्यो तयार करपाचें काम हातांनीच करताले. टांचण्यो तयार करपाचें यंत्र १८२४ त लम्युएल रायट ह्या अमेरिकन यांत्रिकान तयार केलें. ताणें इंग्लंडांत वचून ताचें 'पेटंट' मेळयलें. तेन्ना सावन यांत्रिक पद्दतीन टांचण्यो तयार करपाक सुरवात जाली. सद्या टांचणी तयार करपाखातीर पितुळची वा तिख्याची नरम सरी वापरतात.

सद्या टांचण्यो स्वयंचलीत यंत्रांचेर व्हडा प्रमाणांत-तयार करतात. ताका लागून तांचें मोलूय उणेंच आसता. टांचण्यांक कळम येवंची न्हय म्हणून पितूळच्या टांचण्यांचेर कलय मारतात आनी तिख्याच्या टांचण्यांचेर निकलाचो लेप मारतात.

सामान्य टांचण्यो बारीक सरयेच्यो म्हळ्यार ०.५ ते ०.७५ मि.मी. व्यासाच्यो आसतात. तांची लांबाय १ सेंमी. सावन ५ सेंमी. मेरेन आसता. कपडयाक तोपिल्ल्या टांचण्यांचीं उक्तीं तोंकां आंगाक तोपून जखम जावपाची शक्यताय आसता. देखून जखमेचेर बांदिल्ले पट्टेखातीर वा ल्हान भुरग्यांच्या कपडयाचेर बसोवपा खातीर सुरक्षित जातीची टांचणी वापरतात. हे टांचणेचें तोंक एके खांचींत दवरतात. हे टाचणेक हूक अशें म्हण्टात. असले तरेची टांचणी न्यूयॉर्कच्या वॉल्टर हंट ह्या यांत्रिकान १८४९त तयार केली.

बायलो केसांत फुलां माळपाखातीर रंगीत वा प्लास्टीकच्यो वा धातूच्यो टांचण्यो वापरतात. तांकां लीग वा आंकडो अशें म्हण्टात. असल्या टांचण्याचे वेगवेगळे प्रकार आसात.

रेखाचित्रां वा नकाशो काडटना आरेखन-कागद चित्रकलेच्या फळ्यार धरून दवरचे पडटात. तेखातीर वापरपाच्यो टांचण्यो सामक्यो मोटव्यो आसतात.

भारतांत टांचण्यो तयार करपाचे कितलेशेच कारखाने आसात. तातूंतल्या कांय म्हालाची विदेशांत निर्यातूय जाता. टांचण्यांचो उपेग खूबकडेन जाता आसलो तरी तांचो चडांत चड उपेग कार्यालयांनी जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**टांझानिया :** उदेंत आफ्रिकेंतलें टांगानिका आनी पेंबासयत झांझिबार जूंवो मेळून २६ एप्रिल, १९६४ दिसा हें जोड प्रजासत्ताक अस्तित्त्वांत आयलें आनी २९ ऑक्टोबर दिसा ताचें 'टांझानिया' अशें नामकरण जालें. हाचो विस्तार १° दक्षिण ते ११° ४५′ दक्षिण आनी २९° २१′ उदेंत ते ४०° २५′ उदेंत, दक्षिण-उत्तर सुमार १,१८४ किमी., उदेंत-अस्तंत सुमार १,२१६ किमी. आसून क्षेत्रफळ ९,४५,०८७ चौ. किमी. आसा. हातूंतलें सुमार ५९,०६५ चौ.किमी. उदकाखाला आसा. झांझिबार जुंव्याचें क्षेत्रफळ सुमार १,६५८ चौ. किमी आसून पेंबा जुंव्याचें सुमार ९८४ चौ. किमी. आसा. मुखेल भूंय आनी हे जुंवे हांचे मजगतीं सुमार ३६ किमी. रुंदायेची खाडी आसा. हांचे दक्षिणवटेन आशिल्ल्या सुमार ५१८ चौ. किमी. माफिआ जुंव्यांचो टांझानियांतूच आस्पाव जाता. टांझानिया ह्या संयुक्त प्रजासत्ताकाची लोकसंख्या २८,८००,००० (१९९१) इतली आसा.

टांझानियाचें उत्तरेक केनया आनी युगांडा आसून व्हिक्टोरिया तळ्याचो अर्दो भाग टांझानियांत आसा. उदेंतेक हिंदी म्हासागर आसून दक्षिणेक मोझांबीक - टांझानिया शिमेचेर रुवुया न्हंय आसा. नैर्ऋत्येक झांबिया आनी मालावी आसा. अस्तंतेक अर्दे टांगानिका तळें टांझानियाचें आसून ताचे पलतडीं झाईरे आनी वायव्येक र्‍वांडा, बुरुंडी आसा. डोडोमा ही टांझानियाची नवी राजधानी आसून दारेसलाम ही पोरणी राजधानी आशिल्ली.

टांगानिका हे मुखेल भुंयेची उंचाय सुमार ३३० मीटर आसा. हो प्रदेश सडयाचो आनी दोंगराळ आसून सगळ्यांत ऊंच असो भुंयेचो भाग सुमार १,००० ते १,५०० मीटर ऊंच आसा. किलिमांजारो हो आफ्रिकेंतलो सगळ्यांत ऊंच दोंगर आसून ताची उंचाय ५,८९५ मीटर इतली आसा. हो दोंगर देशाचे ईशान्येक केनयाचे शिमेलागसार आसून ताचे अस्तंतेक ४,५६५ मीटर उंचायेचो म्वेरू पर्वत आसा. लागसारच अंगोरॉंगोरो (Ngorongoro) हें ज्वालामुखीचें तोंड आसा. किलिमांजारोचे अस्तंतेक आनी नेट्रॉन तळ्याचे दक्षिणेक ऑल डॉइन्यो लेंगाई हो हांगाचो एकूच जागृत ज्वालामुखी आसा. वायव्य-आग्नेय दिशेन पारे आनी ऊसांबारा पर्वत आसून दारेसलामाचे अस्तंतेक सुमार २०० किमी. उलुगुरू आनी ताचे

अस्तंतेक रूबेहॉर्न पर्वत आसा. हांचे उत्तरेक उकागुरू पर्वत आसून सामके दक्षिणेक न्यासा तळ्या लागसार किपेनगेरे आनी लिविंगस्टन पर्वत आसात. हांचे अस्तंतेक एम्बेया आनी रुंग्वे पर्वत आसून तांचे वायव्येक टांगानिका आनी रुक्का तळ्यां मदीं उफिपा सडो आसा. चडशे अस्तंत, आग्नेय आनी ईशान्य भाग दोंगराळ आसात. झांझिबारांतलो प्रवाह उत्तरेकडेन आनी अस्तंतेकडेन व्हांवता. पेंबा जुंव्याचेरूय ल्हान-ल्हान प्रवाह आसात. मुखेल भुंयेवयली सगळ्यांत व्हडली न्हंय रुफिजी चडशा सगल्या दक्षिण भागाक उदक पावयता आनी हिंदी म्हासागराक मेळटा. किलिमांजारोंत उगम पाविल्ल्यान विरगळपी बर्फाचें उदक मेळपी पक्गानी, वामी, रुवू, रुवुमा, ग्रेट रुआहा, बेंकुरू ह्यो न्हंयोय हिंदी म्हासागराक मेळटात. कागेरा आनी हेर ल्हान न्हंयो व्हिक्टोरिया तळ्याक मेळटात. व्हिक्टोरिया, टांगानिका आनी न्यासा ह्या तळयां भाशेन रुक्का, इयासी, नेट्रोन, मान्यारा आनी हेर ल्हान तळीं देशांत आसात.

उत्तरेकडल्या आनी ईशान्येकडल्या सड्यावयल्या प्रदेशांनी सुपीक माती आसा. मध्य पठाराचेर आमी दक्षिणेकडेन वालुकाश्माचेर आनी स्फटिकी खडपांचेर नापीक, आम्ल, जंगली माती मेळटा. झांझिबारांत मातयेचे धा आनी पेंबात आठ प्रकार आसात.

मार्च ते सप्टेंबर म्हयन्यांमदीं थंय आग्नेयेकडल्यान हिंदी म्हासागरावयल्यान आर्द्र वारें येता. दर्यादेगे लागसार चडांत चड तापमान ३२° सॅ. आनी उंचेल्या प्रदेशांत उण्यांत उणें तापमान २०° सॅ. मेरेन आसता. उत्तरेकडेन पावस मार्च ते मे आनी ऑक्टोबर ते डिसेंबर असो दोन फावटी पडटा जाल्यार दक्षिणेकडेन तो एकदांच डिसेंबर ते एप्रिलामदीं पडटा.सकयल्या भागांत कठीण लाकडाचीं आनी दोंगराळ भागांत मोव लाकडाचीं झाडां आसात. मुखेल भुंयेचेर तण हीच मुखेल वनस्पत मेळटा.

मुखेल भुंयेचेर तरातरांचे खूब प्राणी आसात. हत्ती, गेंडो, रेडो, शींव, बिबळो, तरस, रानटी सुणो, बिबटो, झेब्रा, जिराफ, तरातरांचीं हरणां, चितळ, सांबर आसून कांय प्रमाणांत चिंपांझीय आसात. हेर माकडां खूब आसात. न्हंयांनी, तळ्यांनी हिप्पो आनी मानगीं आसात. सुकण्यांच्यो हजारांनी जाती आसात.

**इतिहास** – झांझिबारा मेरेनचो उदेंत आफ्रिकेची दर्यादेग इ.स. पयलीं सातव्या शेंकड्यांत औसान ह्या अरबी राजाच्या अधिकाराखाला आशिल्ली. पयल्या शेंकड्यांत ताचेर हिम्यरायट मुखेल्याची सत्ता आशिल्ली. सातव्या शेंकड्यांत महमद पैगंबराच्या मरणा उपरांतचे बंडाळींतले निर्वासीत आफ्रिकेचे दर्यादेगेर वचून रावले. उपरांतच्या पांच-स शेंकड्यांनी थंय अरबी आनी थळावे बांटू भाशीक लोक हांच्या संकरांतल्यान स्वाहिली लोक आनी स्वाहिली भास निर्माण जाली. णवव्या-धाव्या शेंकड्यांनी थंय इस्लामाचो प्रभाव वाडलो. चडशे लोक सुन्नी पंथीय आशिल्ले.

१४९८ चे वास्को द गामाचें भोंवडेउपरांत पुर्तुगेज आयले आनी तांणी १५८९ वर्सा मालिंदी आनी मोम्बासाच्या राजाकडेन सत्ता दिली. ताणें १६३१ वर्सा बंड करून पुर्तुगेजांची कत्तल केली. पुर्तुगेजांनी परतून मोम्बासा घेतलें. १६९८ वर्सा ओमानच्या इबादींनी मोझांबीकाचे उत्तरेकडसून पुर्तुगेजांक धांवडावन घाले.

१८२२ वर्सा अल् बू सैद हाच्या काळांत झांझिबार आनी पेंबा एकठांय आयले. ओमानच्या ह्या सुलतानान झांझिबार ही आपली राजधानी केली. अरबांची मक्तेदारी मोडून ताणें अमेरिका आनी ब्रिटन हांचेकडेन वेपारी कबलात केली.

पुर्तुगेज आनी अरब हांच्या गुलामांच्या वेपारांचें पेंबा हें मुखेल केंद्र आशिल्लें. ताणें झांझिबार आनी पेंबांत लवंगांचे लागवडीक सुरवात केली. दरेका मळेवाल्यान एका माडावांगडा लवंगांचे तीन रोंपे लावुंकूच जाय, ना जाल्यार मळो जप्त जातलो असो कायदो केलो. १८६६ वर्सा झांझिबाराच्या सुलतानान दारेसलामाची स्थापणूक केली.

१८८४-८५ वर्सा कार्ल पीटर्स हाणें टांगानिकांतल्या मुखेल्यांकडेन तहनामे करून थंय जर्मन प्रभुत्व स्थापलें आनी १८८६ वर्सा फ्रान्स, जर्मनी आनी ब्रिटन हांणी झांझिबारच्या सुलतानाकडेन फकत १६ किमी. रुंदायेची किनारपट्टी दवरली. १८९० वर्सा जर्मनीन सुलताना कडल्यान किनारपट्टी विकती घेवन टांगानिका आनी न्वांडा बुरूंडी हांचो मेळून जर्मन उदेंत आफ्रिका हो प्रदेश केलो. त्याच वेळार ब्रिटिशांनी झांझिबार आनी पेंबा हो आपलो संरक्षीत प्रदेश केलो. जर्मनांनी गुलामांचो वेपार बंद करून मळे, लोहमार्ग, वसाहती केल्यो. पयल्या म्हाझुजांत थंयच्या जर्मनांनी गनिमी काव्यान ब्रिटिशांक झूज दिवन सगळो प्रदेश उध्वस्त केलो. उपरांत राष्ट्रसंघाचो महादिश्ट प्रदेश म्हणून तो ब्रिटिशांकडेन आयलो.

१९२६वर्सा टांगानिकाचें विधिमंडळ अस्तित्वांत आयलें, पूण १९४५ वर्सा मेरेन तातूंत आफ्रिकी लोकांक सुवात नाशिल्ली. १९५१त कार्यकारी मंडळाचेर पयल्या आफ्रिकी सभासदाची नेमणूक जाली. १९५८-६० वर्साच्या वेंचणुकांनी टांगानिका आफ्रिकन नॅशनल युनियन (टानु) पक्षान ७१ तल्यो ७० सुवाती जिखल्यो आनी सप्टेंबर १९६० वर्सा ज्युलियस न्येरेरे प्रधानमंत्री जालो. डिसेंबर १९६१ वर्सा टांगानिका स्वतंत्र जालो आनी एका वर्सान तो प्रजासत्ताक जातकच न्येरेरे हो पयलो अध्यक्ष जालो.

झांझिबार आनी पेंबाचें मेळून १९५६ वर्सा झांझिबारांत कायदो काउन्सील जालें. जून १९६३ वर्सा झांझिबाराक अंतर्गत स्वायत्तताय मेळ्ळी आनी डिसेंबर १९६३ वर्सा तें पुराय जालें. एप्रिल १९६४ वर्सा टांगानिका आनी झांझिबार हांचें संयुक्त प्रजासत्ताक स्थापन जालें. डिसेंबर १९६७ वर्सा केनया आनी युगांडा हांचेवांगडा टांझानिया इस्ट आफ्रिकन कम्युनिटीचो वांगडी जालो. १९७२ वर्सा झांझिबाराचो अध्यक्ष आनी टांझानियाचो पयलो उपाध्यक्ष शेख अबीद करुमे हाची हत्या जातकच आफ्रो शिराझी पक्षाचो अबूद जुंबे हो अध्यक्ष जालो.

१९६५ च्या संविधानाप्रमाण राज्याचो आनी शासनाचो जो मुखेल अध्यक्ष असता तोच सेनामुखेलूय असता. तोच दोन उपाध्यक्षांची नेमणूक करता. पयलो उपाध्यक्ष झांझिबाराचो अध्यक्ष आसता आनी दुसरो उपाध्यक्ष राष्ट्रीय विधिमंडळांतल्यान वेंचिल्लो आसून तो त्या मंडळाचो फुडारी आनी मुखेल प्रधान आसता. अध्यक्षान नेमणूक केल्ले मंत्री आनी उपाध्यक्ष हांचें मंत्रिमंडळ जाता आनी अध्यक्ष हो ताचोय अध्यक्ष जाता. विधिमंडळाचे परवानगीबगर अध्यक्षाक कायदो करूंक मेळना. झांझिबाराचें वेगळें विधिमंडळ आनी कार्यकारी मंडळ आसा. राज्यकारभारा खातीर टांझानियाचे २० विभाग केल्ले आसात. राष्ट्रीय विधिमंडळांत नॅशनल ॲसॅंब्ली आनी मुखेल भुंयेचे १२० निर्वाचीत वांगडी, टांगानिका आनी झांझिबारांत नेमणूक केल्ले १० वांगडी, विंगड विंगड राष्ट्रीय संस्थांनी सुचयल्या राष्ट्रीय विधिमंडळान वेंचिल्ले १५ वांगडी, २० विभागीय आयुक्त, झांझिबार क्रांतिकारी मंडळाचे ३२ मेरेन वांगडी आनी

झांझिबाराच्या अध्यक्षांचे परवानगेन अध्यक्षान नेमणूक केल्ले झांझिबाराचे २० मेरेन वांगडी आसतात.

थळाव्या शासनाखातीर टांगानिकाचे १७ आनी झांझिबार आनी पेंबा हांचे ३ विभाग केल्ले आसात. नगरपालिका, नगरमंडळां आनी जिल्हे वा प्रादेशिक मंडळ हांचेकडेन थळावें शासन आसता. थळावे कर, परवाने, अनुदान हांचेर ह्या मंडळांचो कारभार चलता. मुळावें शिक्षण, शेती, बाजार, जंगल, पशुसेवा, भलायकी, उदका-पुरवण आनी थळावें दळणवळण हें सगळें हीं मंडळां पळयतात.

न्यायालयांचेर पयल्या, दुसऱ्या आनी तिसऱ्या वर्गांचे न्यायाधीश आसतात आनी तांकां दिवाणी तशेंच फौजदारी अधिकार आसतात. ते कारभारी अधिकारीय आसूं येतात. उच्च न्यायालयांत आनी इस्ट आफ्रिकन अपील कोर्टाकडेन अपील करूं येता. झांझिबार आनी पेंबांत मुस्लिम न्यायालयां, लग्न, घटस्फोट, वारसो हक्क हांकां न्याय दितात.

**अर्थीक स्थिती** - वाख, काजू आनी लवंगां हांचे संवसारीक पुरवणेचो व्हड वांटो ह्या देशाकडेन आसा. टांझानिया शिलिंग हें थंयचें अधिकृत चलन. टांझानिया हो शेतकी देश आसून ९०% लोक शेतीवडीचेर आदारून आसतात. मको, तांदूळ, ज्वारी हीं थंयचीं मुखेल अन्नपिकां आसात. झांझिबार आनी पेंबांत तांदूळ, केळीं, कडुण, मको आनी ज्वारी हीं मुखेल अन्नपिकां आसात. दोनूय जुंव्यांचेर नाल्ल हें म्हत्वाचें पीक आसा. दूद, मास, कातडें ह्या रुपांनी राश्ट्रीय संपत्तेंत मोलादीक भर पडटा. न्हंयो, तळीं, दर्या हांचीं नुस्त्यासंपत्तीय खूब आसा.

टांझानियाचो सुमार १२% प्रदेश रानाखाला आसा. मॉहोगनी, पोडोकॉर्पस, कापराचीं झाडां, सागवान हे म्हत्वाचे रूख आसात. दक्षिणेकडेन आनी व्हिक्टोरिया तळ्यांचे उदेंतेक भांगर मेळटा. ज्वालामुखींच्या फोंडांनी हिरे मेळटात. अस्तंत भागांत कथील आनी टंगस्टॅन आसा. मध्य आनी उदेंत भागांत अभ्रक आसा. दक्षिण भागांत शिंशें, तांबें, रुपें आनी भांगर मेळटा. नैर्ऋत्य भागांत कोळसो आनी लोखण हांचे व्हड सांठे आसात. चुनखडक, जिप्सम, मीठ, केओलीन, फॉस्फेट हे किनारी आनी तळ्यांच्या प्रदेशांनी मेळटात. कांय सुवातींनी टांझानायट आनी हेर मोलादीक खडे मेळटात.

पानुगानी न्हंयेवयलें हाले आनी पानगानी फॉल्स ४१,२०० किवॉ. चीं जलविद्युत्‌केंद्रां आनी दारेसलामचे ३०,४०० किवॉ. चीं दोन औश्णिक केंद्रां हीं दारेसलाम हांगा आनी मोरोगोरो हांकां वीजपुरवण करतात. किडादू हें २०० मेवॉ. उत्पादनाचें नवें केंद्र. टॅनझॅम ह्या १,७२८ किमी. च्या तेलनळावरवीं झांबियाक खनीज पदार्थ निर्यात जातात.

दारेसलामांत अन्नपदार्थ, मद्यां, कापड, जोतीं, तेलशुध्दी, रबर, शिमीट, मोटारीचे भाग जोडप; टांगांत वाखाचो दोर, फर्निचर, अन्नप्रक्रिया, सारीं; आरुशा आनी मोशी गांवांनी अन्नपदार्थ, पेयां, कापड आनी फर्निचर; म्वांझांत अन्नपदार्थ, पेयां आनी कापड हे उद्देग चलतात. उद्देगीक उत्पादनाचो ९५% भाग देशांतल्या देशांतूच खपता. झांझिबारांत पोतयो, राजू, शाबू, शिंपल्यो, हतयादांत आनी एबनीवयलें नक्षीकाम, धातूकाम हे उद्देग आसात. तशेंच ॲल्युमिनियमाचीं आयदनां, विटो आनी नळे, रासायनिक पदार्थ, शेंदऱ्यो, कंवच्यो, खिळे, कातडी सामान, रंग, काँक्रीट, वस्तऱ्यांचीं पातीं, रबराच्यो वस्तू, धातूच्या पत्र्याच्यो वस्तू, किटकनाशकां ह्या वस्तूंची निर्मिती जाता.

१९६६ वर्सा इस्ट आफ्रिकन करन्सी बोर्डाबदला बँक ऑफ टांझानियाची स्थापणूक जाली १९६७ वर्सा सगळ्या बँकांचें राश्ट्रीयीकरण जालें. उपरांत नॅशनल बँक ऑफ कॉमर्स, पिपल्स बँक, रूरल डॅव्हलपमेंट बँक, इन्वेस्टमॅंट बँक आनी टांझानिया हाउसींग बँक ह्यो बँको आयल्यो. ध नॅशनल इन्शुरन्स कंपनी, ध नॅशनल प्रोव्हिडंट फंड, ध टांझानिया पोस्ट ऑफिस, सेविंग्स बँक, ध पर्मनंट हाउसींग अँड फायनान्स कंपनी, ध टांझानिका डव्हॅलपमॅंट फायनान्स कंपनी, ध नॅशनल को-ऑपरेटीव्ह बँक, ध नॅशनल डव्हॅलपमॅंट क्रॅडीट एजन्सी आनी नॅशनल लॉटरीस हांचेवरवीं अर्थीक गरजो भागोवप जाता. सगळे कर मध्यवर्ती सरकार वसूल करता.

१९६७ वर्सासावन भौशीक क्षेत्राचें म्हत्व एकदम वाडलें. बँको, आयात -निर्यात कंपन्यो, गिरण्यो आनी अन्न-उत्पादनाचे वेवसाय हांचें राश्ट्रीयीकरण करपाची कार्यावळ नेटान सुरू जाली. १९७०-७१ वर्सा टांझानियाचें राश्ट्रीय विकास म्हामंडळ, पर्यटन म्हामंडळ, शेती आनी अन्न म्हामंडळ, च्या प्राधिकरण, वीजपुरवण कंपनी, वेपार म्हामंडळ हांचेर व्हड भांडवली खर्च केलो.

टांगानिका स्वतंत्र जातकच १९६१ वर्सा तिचें इस्ट आफ्रिका कॉमन सर्व्हिसीस ऑर्गनायझेशन हातूंत रुपांतर जालें. १९६७ वर्सा केनया, युगांडा आनी टांझानिया हांच्या मुखेल्यांची, कांपाला शारांत एक कबलात जाली आनी इस्ट आफ्रिकन कम्युनिटी ही संघटणा अस्तित्वांत आयली. हे संघटनेचीं पांच मंडळां आसात. कॉमन मार्कॅट काउन्सील, कम्युनिकेशन्स काउन्सील, इकॉनॉमीक कन्सल्टेटीव्ह अँड प्लॅनिंग काउन्सील, फायनान्स काउन्सील आनी रिसर्च अँड सोशल काउन्सील. रेल्वे, बंदरां, विमानमार्ग आनी पोस्ट-टेलिकम्युनिकेशन्स हांचीं म्हामंडळां एका संचालक मंडळाच्या नियंत्रणाखाला वेपारी तत्त्वाचेर कार्य करतात.

टांगानिका आनी व्हिक्टोरिया तळ्यांतल्यान जावपी उदकायेरादारीक लागून केनया, युगांडा, झाईरे, बुरंडी आनी झांबिया ह्या देशांकडेन संपर्क जोडूंक मेळटा. दारेसलाम हें मुखेल बंदर आसून टांगा आनी मटवारा (मिकींदानी) हीं बंदरां अनुक्रमान चड करून वाख आनी काजू हांचे निर्याती खातीर आसात. म्वांझा हें व्हिक्टोरिया तळ्यांतलें बंदर आसा.

ईस्ट आफ्रिकन ॲरवेस कॉर्पोरेशना वतीन राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय हवाई येरादारी जाता. दारेसलामांत मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसून १९७१ त किलीमांजारोंत आनी १९७३ त पेंबावर आंतरराश्ट्रीय विमानतळ बांदल्यात. देशांत सुमार २० विमानतळ आनी सुमार २०० धांवपट्ट्यो आसात. झांझिबाराक एक विमानतळ आसा.

**लोक आनी समाजजीण** - इ.स. पयलीं १००० च्या अदमासाक बुरुंगी, गॉरॉवा, इराक्‌ आनी अंबुगू हे कुशायटिक इथिओपियांतल्यान येवन हांगाचे सड्यावयले प्रदेश आनी गांवांत पातळ्ळे. फुडल्या शेंकड्यांत अस्तंतेकडल्यान आनी नैर्ऋत्येकडल्यान आयिल्ले बांटू भाशीक चडशे शेती करपी आनी लोखणी हत्यारां वापरपी आशिल्ले. ल्हव ल्हव करून तांच्यो चालीरिती, समाजवेवस्था आनी भाशा स्थिरावल्यो. सुकुम, न्याम्वेझी, हेहेत न्याकुसा, हाया चग्गा, गोगो, हा, अन्गोनी, न्याकुसू, याओ अशे विंगड विंगड टोळयांचे लोक हांगा आसात. लुओ, टाटोगा आनी मसाई ह्या नायलोटिकांचो वेगळोच गट आसा. ह्या मूळच्या आफ्रिकी लोकांवांगडा हांगा आशियाई आनी युरोपी लोक आसात. आशियाई लोकांभितर इस्माइली, बोहरा, शीख, पंजाबी, जैन आनी गोंयकार आसात. हातूंत

इंग्लीश भाशीक चड आसात. तशेंच जर्मन, स्कॅंडिनेव्हियन, इटालियन आनी ग्रीक आसात. अरब ही एक वेगळीच अल्पसंख्य जमात आसा.

**भास** – इंग्लीश आनी किऊंगुजा (अभिजात स्वाहिली) ह्यो अधिकृत भाशा आसात. स्वाहिली ही दर्यादेगे वयल्या भागांत जल्माक आयली आनी अस्तंतेवटेन पातळत गेली आनी लोकांची मुखेल भास जाली. मुळांत ती एक बांटू भास. तिच्यांत अरबी, इंग्लीश, हिंदी आनी पुर्तुगेज उतरां खूब आसात. ९५% लोक बांटू भास उलयतात. हे भाशेच्यो शंबरा परस चड बोली आसात. किसुकुमा, किन्याम्वेझी, किमाकोंडे, किहाया, किचग्गा, किगोगो, किहा, किहेहे, किन्याक्युसा आनी किलुगुरू ह्यो तातूंतल्यो मुखेल. मसाई, टाटोगा आनी लुओ लोक नायलॉटीक भास उलयतात. इराक्क, गॉरॉवा, अलावा, अन्गोम्विया आनी अंबुगू हे कुशायटीक भास उलयतात. सांदावे आनी हाड्झा हे दक्षिण आफ्रिकेंतल्या बुशमॅन आनी हॉटेंटॉत हांच्यो खोयसान वा क्लिक भाशा उलयतात. आशियाई लोक गुजराती, हिंदी, पंजाबी उलयतात जाल्यार गोंयकार कोंकणी उलयतात.

थळाव्या बांटू लोकांभितर पेंबा जुंव्याचेर पेंबा आनी झांझिबार हाडिमू आनी टुंबाटू आसात. धाव्या शेंकड्यांत आयिल्ल्या पर्शियनांक तांणी आस्पावन घेतले. हे आनी कांय गुलामांचे वंशज स्वताक शिराझी म्हण्टात.

ह्या जुंव्याचेर स्वाहिली हीच मुखेल भास आसा. किपेंबा, किहडिम् आनी किटुंबाटू ह्यो बांटूभाशा उलयतात. बोलीभाशा खूब आसात. आशियाई लोक गुजराती, कच्छी आनी हिंदी उलयतात. शाळांनी इंग्लीश भास शिकयतात.

ह्यां देशांतलीं चडशीं दिसाळीं स्वाहिली 'टार्नु' चें मुखपत्र 'ऊहुस' आनी 'अन्गुरूमो' हीं तातूंतलीं मुखेल. 'स्टँडर्ड टांझानिया' हें इंग्लीश खबरांपत्र. 'संडे न्यूस' हें ताचेंच सातोळें. 'नॅशनलिस्ट' हेंय एक इंग्लीश दिसाळें. 'यंग आफ्रिका' हें गुजराती सातोळें आसून पंचवीसांवयर म्हयनाळीं आसात. झांझिबारांत 'अदल इन्साफ' इंग्लीश आनी स्वाहिली आनी 'डेली कमर्शियल रिपोर्ट' इंग्लीश स्वाहिली, गुजराती आनी अरबी भाशांनीं सातोळींय आसात.

टांगांत टांगा मॅमोरियल लायब्ररी, दारेसलामी टॅक्निकल इन्स्टिट्यूट लायब्ररी आनी युनिव्हर्सिटी कॉलेजीची लायब्ररी हीं मुखेल ग्रंथालयां आसात. दारेसलामाची कम्युनिटी सॅंटर फ्री लायब्ररी सबंद देशांत पोस्टान पुस्तकां वाचपाखातीर पावयता. अमेरिकेच्या म्हायती खात्याचेंय ग्रंथालय आसा. दारेसलामांतल्या नॅशनल म्युझीयम ऑफ टांझानियांत तांत्रिक, पुरातत्त्वीय, इतिहासीय, भूशास्त्रीय आनी सैमीक इतिहास हांचे विभाग आसात. डोडोमांत भूशास्त्रीय संग्रहालय आसा. झांझिबारांत पीस मॅमोरीयल संग्रहालय आनी ग्रंथालय आसा. थंय झांझिबार आनी पेंबा हांचे वंश, इतिहास, उद्देग, सैमीक इतिहास हांचे विभाग आसात.

चीन, भारत, अरबस्तान आनी उपरांत युरोप ह्या देशांकडेन आयिल्ल्या संबंदांचे परिणाम हांगा दिसून येतात. हांगाची स्वाहिली भास आफ्रिकेच्या खूब व्हड प्रदेशांत पातळ्ळ्या. झांझिबार हांगाच्यो लाकडी अरबी संदुको आनी उत्कृश्ट कोरांतिल्लीं जडावाचीं दारां प्रसिद्ध आशिल्लीं. पांटले, शेंदऱ्यो विणप, आयदनां, चामड्याच्यो वस्तू, धोल आनी वाद्यां तयार करप ह्यो दीसपट्ट्या वेव्हराच्यो कला आसात. दरेका जमातीचे खाशेले नाच आनी लोककथा आसतात. टांझानियांत फूटबॉल, क्रिकेट, मैदानी आनी मर्दानी खेळ, कसरती, टॅनिस, पेंवप, नुस्तें धरप हे खेळांचे प्रकार लोकप्रिय आसात.

गोंबेंत चिंम्पांझी पळोवंक मेळटात. अंगोरॉंगोरो उद्यानांतलें व्हडलें ज्वालामुखीचें तोंड, किलीमांजारो आनी म्वेरू पर्वताचीं तेमकां, व्हिक्टोरिया आनी टांगानिका तळीं हीं सैमीक सोबीतकायेखातीर प्रसिद्ध आसात. पर्यटकांखातीर गिर्यारोहण, शिकार, नुस्तेमारी हांच्यो सोयी करतात. दारेसलामांत टांझानिया पर्यटन महामंडळाची कचेरी आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**टागोर, रवींद्रनाथ :** (जल्म : ७ मे १८६१, कलकत्ता; मरण : ७ ऑगस्ट १९४१, कलकत्ता).

विश्वविख्यात कवी, कलावंत, शिक्षणतज्ञ आनी तत्त्वचिंतक. ताचे आवयचें नांव शारदादेवी आनी बापायचें नांव देवेंद्रनाथ. रवींद्रनाथ हें चवदा भुरग्यांतलें तेरावें अपत्य. टागोर हें आडनांव ठाकूर ह्या बंगाली नांवाचो इंग्लीश अपभ्रंश. देवेंद्रनाथ व्हड विद्वान, गिरेस्त आनी समाज सुदारक. तशेंच तो ब्राह्मो समाजाचो अनुयायी आशिल्लो.



रवींद्रनाथ सात वर्सांचो आसतना ताचे आवयक मरण आयलें. तिचे फाटल्यान रवींद्रनाथाच्या व्हडल्या भावाची बायल कादंबरीदेवी हिणें आवयचे मायेन ताचो सांबाळ केलो. तिणेंच ताच्या काव्यलिखाणाक प्रोत्साहन दिलें. १८८३ वर्सा रॉय चौधरी हाचे इकरा वर्साची भवतारिणी हे चलयेकडेन रवींद्रनाथाचें लग्न जालें. तिका खास शिकप नाशिल्ल्यान रवींद्रनाथान तिका स्वता जावन संस्कृत, बंगाली, इंग्लीश शिकयली.

रवींद्रनाथ ल्हानपणासावन सैमाचो मोगी आशिल्ल्यान ताका शारांतले जिणेपरस गांवगिऱ्या वाठारांतलें वातावरण चड मानवतालें. ताच्या शिक्षणाखातीर खाजगी शिक्षकाची नेमणूक केल्ली. कांय काळ घराच अभ्यास करतकच कलकत्त्याच्या 'ओरिएंटल सेमिनार' हे शाळेंत ताचें नांव घालें. हे शाळेचे वर्सुकी परिक्षेंत तो बंगाली विशयांत पयलो आयलो. ताचे शालेय हुशारीची इतलीच नोंद मेळटा. फुडें 'बेंगॉल अकादमी' हे ॲंग्लोइंडियन शाळेंत तो वतालो. पूण तातूंत ताचें मन रमलेंना. त्याच वर्सा ताणें कविता करपाक सुरवात केली. १८७८ वर्सा तो म्हाविद्यालयीन शिक्षणाखातीर इंग्लंडाक गेलो. पूण तें शिक्षण पुराय करिनासतना १८८० वर्सा तो कलकत्त्याक परतलो. इंग्लंडांतल्या त्या राबित्यांत ताणें इंग्लीश भास आनी अस्तंती संगिताची बरीच वळख करून घेतली.

रवींद्रनाथाचो पयलो काव्यांझेलो 'संध्याराग' ह्या नांवान उजवाडा आयलो; तेन्ना ताची पिराय वीस वर्सांची आशिल्ली. ह्या पयल्या झेल्यानच

ताचे अलौकीक प्रतिभेची रसिकांक जाण आयली. रवींद्रनाथान आपलीं दोन पुस्तकां कादंबरीदेवीक ओंपल्यांत. १९१२ वर्सा रवींद्रनाथान आपल्यो कविता इंग्लिशींत अणकारपाक सुरवात केली. १०३ अणकारीत कवितांच्या झेल्याक ताणें 'सॉंग ऑफ रिंग्स' हें नांव दिलें. फुडें 'गितांजली' ह्या नांवानूय त्या झेल्याक खूब नामना मेळ्ळी. गितांजलीचीं हातबरपां घेवन तो इंग्लंडाक गेलो. थंय ताणें आपलो हो काव्यांझेलो रोथेन्स्टिन ह्या कलावंताक वाचपाक दिलो. रोथेन्स्टिन हाणें एझरा पाऊंड, सिंक्लॅर, सी. एफ. ॲंड्रयूस ह्या आपल्या साहित्यीक इश्टांक आपोवणें दिलें. तेन्ना जमिल्ल्या व्हड साहित्यिकांसामकार यीट्स हाणें 'गितांजली' च्या इंग्लीश अणकाराचें वाचप केलें. त्या कवितांतल्या दैवी गुणांनी सगळे साहित्यीक भारावन गेले.

'गितांजली' चो इंग्लीश अणकार १९१२ वर्सा उजवाडाक आयलो आनी १९१३ वर्सा रवींद्रनाथाक नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. उपरांत कलकत्ता विद्यापिठान ताका 'डॉक्टर ऑफ लिटरेचर' ही पदवी दिली. ब्रिटीश सरकारान सम्राट पंचम जॉर्ज हाच्या जल्मदिसा रवींद्रनाथाक 'सर' (नायट हूड) हो किताब दिलो. फुडें १९१९ वर्सा पंजाबांतल्या अमृतसर शारांत जालियनवाला बागेंत जनरल डायर हाणें फारपेट करून शेंकड्यांनी निरपराध लोकांचे जीव घेतले. तेन्ना रवींद्रनाथान ह्या अमानुश हत्याकांडाचो निशेध म्हणून हो किताब परत केलो.

रवींद्रनाथाचे महात्मा गांधीकडेन बरे संबंद आशिल्ले, पूण गांधीजीचे असहकार चळवळीक ताचो विरोध आशिल्लो. १९३२ वर्सा हरिजनांक स्वतंत्र मतदारसंघ दिवपाक विरोध करपाखातीर महात्मा गांधीन प्राणांतिक उपास सुरु केलो. तेन्ना रवींद्रनाथान ताका उपास करूं नाका असो तेलेग्राम केलो. पूण तो मेळचेपयलींच गांधीजीन उपास सुरु केल्लो.

शिक्षणसंस्था कशो आसच्यो हेविशीं रवींद्रनाथाच्यो कांय खास कल्पना आशिल्ल्यो. तीं ध्येयां थारावन ताणें 'शांतिनिकेतन' आनी 'विश्वभारती' ह्या संस्कृतीक आनी शिक्षणीक संस्थांची स्थापणूक केली. संवसारांतले नामनेचे विद्वान ह्या संस्थांनी रावन वताले. 'भांगराचो दिवो हें आमचें ध्येय नासून उजवाड दिवपी दिवो हें आमचें उद्दिश्ट आसा' अशे मार्मिक आनी काव्यमय भाशेंत आपलो हेत सांगून रवींद्रनाथान 'विश्वभारती' ची स्थापणूक केली.

१९३६ वर्सा पंचात्तर वर्सांची पिराय आसतना रवींद्रनाथ 'विश्वभारती' खातीर निधी एकठांय करपाचे भोंवडेर गेलो. तेन्ना हे पिरायेचेर ताका ही दगदग सोंसची पडटा म्हणून गांधीजीक खूब वायट दिसलें. गांधीजीन स्वता साठ हजार रुपयांचो निधी एकठांय करून रवींद्रनाथाचे सुवादीन केलो. फुडें भारत स्वतंत्र जातकच पयलो प्रधानमंत्री जवाहरलाल नेहरू हाणें रोखडेंच 'विश्वभारती' हें केंद्रीय विद्यापीठ म्हणून आपणावपाचो कायदो संमत करून घेतलो.

रवींद्रनाथ विश्वाचो म्हान तत्त्वज्ञानी कवी आशिल्लो. तसोच कथाकार, नाटककार, चित्रकार, शिक्षणतज्ञ, समाजसुदारक, देशभक्त, मानवतावादी, संगीततज्ञ आशिल्लो. ताणें प्रचलित केल्लें 'रवींद्र संगीत' ही भारतीय संगिताक ताणें दिल्ली अमोल देण. 'जनगणमन अधिनायक' हें ताचेंच पद स्वतंत्र भारतान राश्ट्रगीत म्हणून आपणायलें.

रवींद्रनाथ निमाणेमेरेन आपल्या कार्यांत मग्न रावलो. सप्टेंबर १९३७ त, तो दुयेंत पडलो, पुण भलायकी मातशी सुदारतकच ताणें 'विश्व परिचय' हें ल्हान पुस्तक बरयलें. १९३८ त ताणें बंगाली भाशेंत एक पुस्तक बरयलें.

ऑगस्ट १९४० त ऑक्सफर्ड विद्यापिठान रवींद्रनाथाक डॉक्टरेट पदवी दिली.

ताचीं हेर पुस्तकां अशीं आसाता. बनफूल (१८८०) खंडकाव्य; शैशव-संगीत (१८८४) कवितासंग्रह; कविकाहिनी (१८७८) काव्यनाट्य; युरोप प्रवासीर पत्र (१८८१); भग्नहृद्य (१८८१) नाट्यकाव्य; वल्मिकी प्रतिभा (१८८१) संगितिका; संध्या संगीत (१८८२); प्रभात संगीत (१८८२), शैशव संगीत, छबि ओ गान (१८८४), कडि ओ कोमल (१८८६), जीवनस्मृती (१९१२) कविता संग्रह; प्रकृतीर प्रतिशोध (१८८४) नाटिका; रविच्छाया (१८८५) गीतसंग्रह; मानसी (१८९०) कवितासंग्रह; मायार खेला (१८८८) संगीतिका; राजा ओ रानी (१८८९) नाटक; विर्सजन (१८९०), शेनार तरी (१९८४), पंचभुतेर डायरी (पंचभुत - १८९७), कथा ओ काहिनी (१९०८), नैवेद्य (१९०२), चोखेर बाली (१९०३) कांदबरी; चिरकुमार सभा (१९२६) विनादी नाटक, नौकाडुबी (१९०६) कांदंबरी, गोरा (१९१०) कांदबरी; राजा (१९१०), डाकघर (१९१२) नाटक; बलाका (१९१६) कवितासंग्रह; चतुरंग (१९१६), घरे बायरे (१९१६) कादंबऱ्यो; मुक्तधारा (१९२२), रक्तकरवी (१९२४) नाटकां; पुनश्च (१९३२) कवितासंग्रह; चित्रांगदा (१८९२), श्यामा (१९३९) नृत्यनाटक, ताशेर देश (१९३३), छेलेबेला (१९४०), जन्मदिने (१९४१) कवितासंग्रह.

- डॉ. नरेश कवडी

**टाटा घराणें :** संवसारीक नामनेचें भारतीय वेपारी घराणें. भारतांत लोखण आनी तिख्याच्या उद्‌देगाची बुन्याद घालपांत तशेंच, कापडगिरण आनी जलविद्युत प्रकल्प उबारून भारताच्या उद्‌देगीक मळार उदरगत घडोवन हाडपांत ह्या घराण्याचो मोलाचो वांटो आसा. टाटा उद्‌देगसमुहाचो संस्थापक जमशेटजी नसरवानजी, ताचे दोन पूत सर दोराबजी आनी सर रतनजी आनी पुतणयो जहांगीर रतनजी दादाभाई (जे. आर.डी.) हे ह्या घराण्याक उंचेले तेंगशेर पावोवपी म्हत्वाचे खांबे.



**जमशेटजी नसरवानजी** - (जल्म : ३ मार्च १८३९, नवसारी गुजरात; मरण : १९ मे १९०४, जर्मनी). ताचो जल्म एका पारशी घराण्यांत जालो. ताचें घराणें मूळचें नवसारीचें. ताच्या बापायन पुरयताचो वेवसाय सोडून धंदो सुरू केल्लो. जमशेटजीचें मूळावें शिक्षण नवसारीक जालें. उपरांत उंचेलें शिक्षण घेवंक तो

मुबंय गेलो. १८५८ वर्सा तो एलफिन्स्टन म्हाविद्यालयांतल्यान 'ग्रीन स्कॉलर' म्हणून उत्तीर्ण जालो. विद्यार्थी काळांतच ताचें हिराबाई दावू हिचेकडेन लग्न जालें. तांकां दोराब आनी रतन हे दोन चले जाले. १८५९ वर्सा ताणें आपल्या बापायच्या वेवसायांत लक्ष घालें. उपरांत तो हाँगकाँग गेलो आनी थंय ताणें बापायचे कंपनीचो फांटो उक्तो केलो. उपरांत दोन भागीदारांक घेवन् 'जमशेटजी अर्देशीर अँण्ड कंपनी' सुरू केली. १८६३ वर्सा ताणें ही कंपनी बंद करून हेर दोन कंपन्यो भागीदारींत सुरू केल्यो आनी आयात निर्यातीचो धंदो चालू दवरलो. १८६५ वर्सा यंत्रविद्येचें गिन्यान मेळोवपाखातीर तो इंग्लंडाक गेलो. थंयसावन येवन १८६९ वर्सा ताणें मुबंय एक ल्हानशी तेलाची गिरण घेवन ते सुवातींत 'आलेक्झांड्रा मिल' ही कपड्यागिरण सुरू केली आनी उदद्देगाच्या मळार पयलें पावल दवरलें. कांय काळ इंग्लंडाक वचून ताणें कपड्यांच्या गिरणींचो अभ्यास केलो. १८७४ वर्सा तो मुंबय आयलो. फुडें 1 जानेवारी १८७७ वर्सा ताणें नागपूरांत 'ॲम्प्रेस मिल्स' ही कपड्यागिरण सुरू केली.

१८६६ वर्सा जमशेटजीन मुंबयंत कुर्ल्याच्या वाठारांतली एक पोरणी कपड्यागिरण विकती घेवन तिच्यांत फावोते बदल करून थंय 'स्वदेशी मिल्स' ही गिरण सुरू केली. १९०३ वर्सा ताणें अहमदाबादेक 'ॲडवान्स मिल्स' ही गिरण सुरू केली. त्याच वर्सा ताणें 'ताजमहाल पॅलेस' हें हॉटेल सुरू केलें.

देशाची उदरगत करपाचे नदरेन ताणें जायत्यो येवजणो आंखल्यो. तेभायर प्रयोगय केले. कापसाची लागवड, रेस्माची निर्मिती, फळांची लागवड आनी निर्यात, परकी देशांतल्या वेपाराखातीर बोटींची कंपनी सुरू करप अशो कितलेशोच येवजण्यो ताणें तयार केल्यो. हातूंतल्यो तीन म्हत्त्वाच्यो येवजण्यो म्हळ्यार (१) तिख्या कारखानो (२) उदकापसून वीज निर्माण करप (३) शास्त्रीय तशेंच तंत्रीक मळाचेर संशोधन करपी संस्था स्थापप. ह्यो तीनय येवजण्यो ताच्या मरणाउपरांत ताच्या पुतांनी अंमलांत हाडल्यो. तिख्या कारखानो त्यावेळावयल्या मयुरभंज संस्थानांतल्या (सद्याच्या बिहार राज्यांत) साकची ह्या वाठारांत 'टाटा आयर्न ॲण्ड स्टील कंपनी' ह्या नावान १९०७ वर्सा सुरू जालो. फुडें सरकारान साकीचें नांव बदलून ताका जमशेटपूर नांव दिलें.

जमशेटजीन उदकापसून वीज निर्माण करपाची येवजण गोंयच्या दूदसागराचें उदक वापरून करची केल्ली. पूण फुडें ताच्या मरणा उपरांत महाराष्ट्रांतल्या अस्तंत घाटांत लोणावळ्या लागसार १९१० वर्सा ही येवजण त्याच्या पुतांनी 'टाटा हायड्रो इलेक्ट्रीक पावर सप्लाय कंपनी' ह्या नांवान सुरू केली.

जमशेटजीची तिसरी येवजण 'इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्स' १९०९ वर्सा बेंगळूरांत सुरू जाली. जमशेटजीन आपले इस्टेटीचो अर्दो वांटो हे संस्थेखातीर दवरलो.

उद्देगीक मळार तंत्रीक आनी कामगारांच्या हिताचे नदरेन ताणें व्हड पावल उबारलें. १८८७त ताणें 'टाटा सन्स लिमिटेड' हे संस्थेची स्थापना करून तिचेकडेन आपल्या सगळ्या कंपन्यांचें वेवस्थापन सोंपयलें. हे संस्थेचें ८५% भांडवल टाटा घराण्यान उबारिल्ल्या धर्मादाय न्यासाचे मालकीचें आशिल्लयान टाटा उदद्देग समुहांतल्या वेगवेगळ्या उदद्देगांक आनी संस्थांक जावपी फायदे न्यासाकडेन म्हणजेच जनतेकडेन पावोवप जाता.

युरोप, अमेरिका, कॅनडा, अस्तंत आशिया आनी जपान ह्या देशांची भोंवडी करून, थंयच्या तंत्रगिन्यानाचो अभ्यास करून भारतीय वेपार आनी उद्देगाच्या मळार उदरगत घडोवन हाडपांत मोलादीक वावर केलो. ताणें मुंबयंत कांय क्लब सुरू केल्ले. थंय नेमान वचप, वाचन आनी चिंतन करप, इस्पिको, बुद्धिबळ, फाशांचो खेळ खेळप, घोड्याचेर रपेट करप हे ताचे कांय छंद आशिल्ले. पिरायेच्या पांसश्ठाव्या वर्सा ताका अस्तंत जर्मनी (नाउहाइम) नगरांत मरण आयलें. ताची कूड लंडनाक व्हरून थंय पारशी धर्माप्रमाण ताचेर निमाणे संस्कार जाले. ताचे उपरांत सर दोराबजी आनी सर रतनजी ह्या ताच्या दोन भुरग्यांनी बापायची परंपरा फुडें व्हेल्ली.

– अ. ना. म्हांबरो

**सर दोराबजी जमशेटजी टाटा :** (जल्म : २७ ऑगस्ट १८५९, मुंबय; मरण : ३ जून १९३२, जर्मनी).

जमशेटजीचो व्हडलो पूत. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा तो शिक्षण घेवंक युरोपाक गेलो. १८७६ त तो भारतांत आयलो आनी मुंबयच्या सेंट झेवियर म्हाविद्यालयांतल्यान बी. ए. जालो. ताका खेळाची आनी तातूंतले तातूंत क्रिकेटीची चड आवड आशिल्ली. ताकाच लागून मुंबयंत ताणें जायत्यो व्यायामशाळा सुरू केल्यो. बापायच्या कापसाच्या धंद्याचो विस्तार करून ताणें देशांतल्या मुखेल शारांनी ताचे फांटे उगडले. टाटा लोखण आनी तिख्या कारखानो, जमशेटपूर; बेंगळूरची भारतीय विज्ञान संस्था आनी लोणावळाची 'टाटा इलेक्ट्रीक कंपनीस' ह्यो कंपन्यो सुरू करपांत ताणें फुडाकार घेतिल्लो. भारताचें उद्देगीकरण करपाचे नदरेन बापायन म्हळ्यार जमशेटजीन सुचयल्ल्या येवजण्यांक ताणें मूर्त रूप दिलें. १९३२ वर्सा ताणें रक्तार्बुद विशींच्या रोगाचें संशोधन करपाक आनी ह्या संशोधनाक आदार दिवपाखातीर आपले मेहेरबाई हे बायलेचे यादीक 'लेडी टाटा मेमोरियल ट्रस्ट' स्थापन केलो. शिक्षणाविशीं तेचपरी अभियांत्रिकी आनी वैजकी संशोधन हातूंन ताका चड आस्था आशिल्ली. ताणें बायलांच्या शिक्षणाखातीर तशेंच केंब्रिज विद्यापिठांतल्या अभियांत्रिकी विभागांतल्या प्रयोगशाळेच्या साधनसामुग्री खातीर अर्थीक पालव दिलो. जिणेचे निमाणेकडेन ताणें आपली सगळी आस्पत आपल्या नांवान उबारिल्ल्या सर दोराबजी टाटा ट्रस्ट ह्या न्यासाक भौशीक कार्याखातीर दिली. १९१० वर्सा ब्रिटीश सरकारान ताका सर हो किताब दिलो. १९१५त भारतीय उद्देगीक परिशदेचो आनी १९१८त नेमिल्ल्या भारतीय उद्देगीक आयोगाचो तो वांगडी आशिल्लो.

**सर रतनजी जमशेटजी टाटा :** (जल्म :२० जानेवारी १८८१ मुंबय; मरण : ५ सप्टेंबर १९१८, कॉर्नवॉल, इंग्लंड).

जमशेटजीचो दुसरो पूत. टाटा लोखण आनी तिख्या कारखानो स्थापन करपांत ताचोय मोलादीक हातभार आशिल्लो. बुद्धिमत्तेकडेन आनी कला विशयांत ताका चड आस्था आशिल्ली. पाटलीपुत्रा लागसारचे एके पुरातत्त्वीय संशोधन मोहिमेखातीर तेचपरी महात्मा गांधीक दक्षिण आफ्रिकेच्या दौऱ्याखातीर आनी भारत सेवक समाजाक ताणें अर्थीक आदार दिल्लो. गरिबी आनी तदनुषंगिक समजीक अडचणीच्या अभ्यासाखातीर ताणें 'लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स ॲड पॉलिटिक्स' हे संस्थेंत एक रतन टाटा निधी आनी अध्यासन स्थापन केलें. ताका सर

हो भोवमान मेळिल्लो. पिरायेच्या ४७ व्या वर्सा ताका मरण आयलें. मरणाउपरांत ताणें जमयल्लो कलावस्तुसंग्रह 'प्रिन्स ऑफ वेल्स' वस्तुसंग्रहालयाक दिलो. तशेंच ताची सगळी आस्पत ताच्या नांवान उबारिल्लया 'सर रतन टाटा ट्रस्ट' ह्या न्यासाकडेन दिली.

**जहांगीर रतनजी दादाभाई टाटा (जे. आर. डी. टाटा) :** (जल्मः२९ जुलय १९०४; मरण : १९९४).

जमशेटजीच्या चुलत भावाचो चलो. १९२२ त तो टाटा सन्स लि. हातूंत सहाय्यक म्हणून आशिल्लो. १९२६ त तो एक संचालक जालो. १९३८त तो टाटा उद्देगाचो अध्यक्ष जालो. भारतीय विज्ञान संस्थेचे विधीसभेचोय तो अध्यक्ष आशिल्लो. भारतांत विमानचालकाचो परवानो मेळोवपी तो पयलो मानकरी आशिल्लो. ३ मे १९३० दिसा ताणें इंग्लंडाक एकट्यान विमान उड्डाण केलें. ताचेच प्रेरणेन १९३२ वर्सा टाटा सन्स लि. चो एक विभाग म्हणून टाटा ॲरलायन्सची स्थापना जाली. १९४६त स्थापन जाल्ल्या ॲर इंडिया लिमीटेडचो आनी १९४८ त स्थापिल्ल्या ॲर इंडिया इंटरनॅशनल लिमिटेडचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. हाचेभायर नागरी हवाई येरादारीच्या राष्ट्रीयीकरणापासून ॲर इंडिया इंटरनॅशनल निगमाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. तेचपरी भारतीय अणूउर्जा आयोग, केंद्रीय सल्लागारी उद्देग परिशद, राष्ट्रीय अनुप्रयुक्त अर्थशास्त्र संशोधन परिशद हांचो तो वांगडी आशिल्लो. नॅशनल सँटर फॉर ध परफॉर्मिंग आर्टस आनी टाटा एनर्जी रिसर्च इन्स्टिट्यूटचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. मिलवॉकी (विस्कॉन्सिन) हांगाच्या 'नॅशनल असोसिएशन ऑफ फोरमन' हे संस्थेन १९५३ त इंटरनॅशनल मॅनेजमेंट मॅन म्हणून फ्रान्स सरकारान आनी ऑफिसर ऑफ लिजन ऑफ ऑनर म्हणून ताचो भोवमान केलो. भारत सरकारान ताका पद्मविभूषण हो किताब दिलो. मद्रास मॅनेजमँट असोसिएशनान ताका १९६९ वर्सा बिझनेस लिडरशिप पुरस्कार दिलो.

१९४४ वर्सा ताणें आपल्या नांवाचो एक न्यास सुरू केलो. भारतीय उद्देगधंद्यांची आदली स्थिती, तांच्यो गरजो आनी उद्देगधंद्यांची आशिल्ली स्थिती लक्षांत घेवन, तांची जाण दवरून उद्देगधंद्यांनी जाता तितली उदरगत घडोवन हाडपाची नदर दवरली.

टाटा उद्देगसमूह हो देशांतल्या मुखेल उद्देगसमुहांतलो एक. ह्या समुहान सुरू केल्ले देशांत आनी देशाभायर ६० वयर उद्देग सद्या चालू आसात. ह्या समुहांत कापड-वस्त्रां, तिखें, लोखण, वीज, शेती आवतां, रेल्वेडबे, इंजिनां, डिझेल ट्रक आनी हेर जड सामुग्री, रसायनां, शिमीट, खावपाचीं तेलां, शाबू, प्रसाधन वस्तू, मनोरंजनात्मक आनी इलेक्ट्रॉनीक उपकरणां आदी वेगवेगळ्या प्रकारांचें उत्पादन जाता. हाचेभायर पर्यटन उद्देग, हॉटेल उद्देग आनी विमान वेवस्था आदी मळांनय ताका यश मेळ्ळें. हाचेभायर भलायकी, समाजशास्त्र, तंत्र आनी विज्ञान कला आनी हेर मळांकडेन संबंदीत अश्यो जायत्यो संस्था आसात. धर्मादाय आनी दुर्बळांक पालव दिवपी कांय ट्रस्ट आसात. टाटा उद्देगसमुहाची सद्याची आस्पत ७,६०० कोटी रुपया इतली आसा. उद्देगसमुहाच्या कारखान्यांत सादारण २,५०,००० लोक वावुरतात.

**टाटा न्यास** - १) जे. एन. टाटा एण्डावमँट फॉर हायर एज्युकेशनः स्थापणूक १८९२. वावर : समाजांतल्या हुशार पूण गरजेवंत भुरग्यांक उण्या कळंतरान अर्थीक आदार दिवन मानव्यविद्या, विधी, वैजकी आनी अभियांत्रिकी ह्या विशयांनी खाशेलें प्राविण्य मेळोवपाक इंग्लंड, अमेरिका आदी देशांनी धाडप.

२) सर रतन टाटा ट्रस्ट : स्थापणूक १९१८. वावर : हातूंत शिक्षण वैजकी साहाय्य, सैमीक आपदग्रस्तांखातीर मदत, समाजीक आनी उद्देगीक कल्याणकार्य, लोकोपयोगी सेवा उद्देगांक आदार हांचो आस्पाव जाता. ह्या ट्रस्टान जमशेटपूरच्या राष्ट्रीय धातूविज्ञान प्रयोगशाळेचे स्थापनेखातीर आदार दिला.

३) लेडी मेहेरबाई डी. टाटा एज्युकेशन ट्रस्टः स्थापणूक १९३२. वावरः हो सर दोराबजी हाणें आपले बायलेचे यादी खातीर स्थापन केल्लो ट्रस्ट. पदवीधर बायलांक परदेशांत वचून समाजीक वावराचो अभ्यास करपाक मेळचो देखून शिश्यवृत्त्यो दितात.

४) लेडी टाटा मेमोरियल ट्रस्ट : स्थापणूक १९३२. वावर : सर दोराबजी टाटा हाणें आपले बायलेचे यादीक दवरिल्लो ट्रस्ट. हातूंतल्यान रक्तार्बुदाविशींच्या संशोधनार्थ आंतराष्ट्रीय आनी भारतीय संशोधकाक पुरस्कार दितात.

५) सर दोराबजी टाटा ट्रस्ट : स्थापणूक १९३२. वावर : सैमीक अरिश्टांपसून राखण, गिन्यानाच्या सगळ्या फांट्यांतल्या चड करून वैजकी आनी उद्देगीक तशेंच विज्ञानाविशींच्या शाखेंतल्या संशोधनाक आदार आनी शिक्षणसंस्थांक आदार आनी विद्यार्थ्यांक शिश्यवृत्त्यो अशे ह्या न्यासाचे मुखेल हेत आसात. टाटा न्यासांत हो न्यास सगल्यांत व्हड आसून राष्ट्रीय म्हत्वाच्या नव्या संस्थांची स्थापणूक करप आनी कांय काळा उपरांत त्यो संस्था राष्ट्राकडेन दिवप हें ह्या न्यासाचे तत्त्व. स्थापणुकेपसून आतांमेरेन ह्या न्यासान सुमार ६.२८ कोटी रुपयांचो विनियोग केलो. ह्या न्यासान संस्था उबारल्यात त्यो ह्यो - १) टाटा मॅमोरियल सेंटर : हातूंत टाटा मॅमोरियल हॉस्पिटल आनी भारतीय कर्करोग संशोधन केन्द्र ह्यो दोन संस्था आसात.

२) टाटा समाजीक विज्ञान संस्थाः (टाटा इन्स्टिटयूट ऑफ सोशल सायन्स) : समाजीक कार्यकर्त्यांक प्रगत प्रशिक्षण दिवपी भारतांतली एक प्रवर्तक संस्था. हिची स्थापणूक १९३६ त जाली. हे संस्थेंत कामगार कल्याण आनी उद्देगीक संबंद, आदिवासी कल्याण आनी नागरी समूह विकास ह्या सारक्या समाजीक विज्ञानांतर्गत उप-शाखांचें शिक्षण दिता आसतना विद्यार्थ्यांक संस्थेन चलयिल्ल्या ग्रामीण आनी नागरी कल्याण केंद्रांत क्षेत्राभ्यास करपाची संद मेळटा.

३) टाटा मौलिक संशोधन संस्थाः (टाटा इन्स्टिटयूट ऑफ फंडामॅंटल रिसर्च) : १९४५त मुंबय सरकाराच्या सहकारान भौतिकी, गणित आनी आनुषांगिक विज्ञानां हांच्या प्रगत अभ्यासाखातीर स्थापिल्ली संस्था. १९५६त भारत सरकार, महाराष्ट्र राज्य सरकार आनी सर दोराबजी टाटा ट्रस्ट हांच्या निपक्षीय करारावरवी अणुकेंद्रीय विज्ञान आनी गणित हांच्या प्रगत अभ्यासाचें आनी मौलिक संशोधनाचें राष्ट्रीय केंद्र म्हणून ही संस्था वळखतात.

४) टाटा ब्लड बँक अँड ट्रॉन्सफ्यूजन सर्वीस : जे. जे. हॉस्पिटल, मुंबय हे सुवातेर सर दोराबजी आनी सर रतन टाटा ट्रस्ट हे बोन न्यास आनी महाराष्ट्र राज्य सरकार हांच्या सहकार्यान मुंबय शाराखातीर रक्त पेढी सेवा व्हड प्रमाणांत सुरू जाली.

५) ग्रामीण कल्याण मंडळ : (रुरल वॅल्फेर बोर्ड) महाराष्ट्र आनी

गुजरात राज्यांतल्या वेंचीक खेडे गांवांतल्या कल्याण आनी विकासाविशींच्या येवजणांची कारवाय.

६) नॅशनल सॅंटर फॉर द परफॉर्मिंग आर्ट्स, मुंबय : स्थापणूक १९६६. वावर : अभिजात, पारंपरिक आनी समकालीन कलांचें शास्त्रीय संशोधन केंद्र. हें साद्य करपाखातीर शाळा, प्रेक्षागृहां, ग्रंथालयां, वस्तू संग्रहालयां, कलामंदिरां आदी स्थापणूक करप हो ह्या न्यासाचो मुखेल उद्देश.

७) होमी भाभा फॅलोशिप काउन्सील : स्थापणूक १९६७. वावर : होमी जे भाभा हांचे यादीक टाटा ट्रस्ट आनी फोर्ड प्रतिष्ठान हांच्या संयुक्त यत्नांतल्यान ह्या न्यासाची स्थापणूक जाली. वेगवेगळीं शास्त्रां आनी मानव्यविद्या हाचेखातीर होमी भाभा अधिछात्रवृत्त्यो आसात. शास्त्राज्ञ, अभियंते, वास्तूशिल्पज्ञ, शिक्षणवेत्ते, लेखक, कलाकार आदी समाजाच्या सगल्या थरांतल्या बऱ्या उमेदवारांक ह्यो अधिछात्रवृत्त्यो दितात.

– कों. वि. सं. मं.

**टायग्रिस :** नैर्ऋत्य आशियांतले युफ्रेटीस हे न्हंयेचे जोडयेची, तिचे उदेंते कडली नामनेची न्हंय. तिची लांबाय सुमार १,९०० किमी. आग्नेय तुर्कस्तानांत कुर्दिस्तानाच्या दोंगरांत आशिल्ल्या एका तळ्यांतल्यान भायर सरून डिकल ह्या नांवान आग्नेयेकडेन दियार्बा सावन वचून चिझरेसावन सुमार ५० किमी. अंतरावयल्यान सिरियाचे शिमेवयल्यान वता. फुडें फायस खाबूर हे सुवातेर ती इराकांत शिरता. थंय टायग्रिस ह्या नांवान मोसूल, अल् फता, तिक्रित, समारा, बगदाद, अल् अमारा ह्या वाठारांतल्यान कुर्नाक येता. थंय तिका युफ्रेटीस ही न्हंय मेळटा. उपरांत तांचो संयुक्त प्रवाह शट अल् अरब ह्या नांवान बसरा आनी इराणाचे शिमेर आशिल्ल्या खुर्रामशहर, आबादान सावन वचून फाओ गांवांत इराणाच्या आखाताक मेळटा.

हे न्हंयेक चिझरेसावन लागसारच अल खाबूर, मोसूल आनी तिक्रीत हांच्या दरम्यान इराकी कुर्दिस्तानांतल्यान आयिल्ल्यो ग्रेट झॅब आनी लिटल झॅब ह्यो आनी अधायम, बगदादाक दियाला, तशेंच खुर्रामशहराक कारून ह्यो उपन्हंयो दावेवटेनच्यान मेळटात. कूट सावन तिका बांद आशिल्ल्यान शट अल् घर्राक हो तिचो चड उदकाचो फांटो युफ्रेटीस न्हंयेक मेळटा. थंय अल् हम्मार हो दलदली वाठार आसा. थंय मैदानी वाठारांत तळीं आनी खुबूच दलदली आसात.

पुर्विल्ली ॲसिरिया आनी बेबिलोनिया ही संस्कृती आशिल्लीं निनेव्ह, कालाख सेल्युशिया, टेसिफॉन, आशुर ह्या शारांचे अवशेश टायग्रिस आनी युफ्रेटीस न्हंयांच्या देगांनी मेळटात.

गिमा दिसांनी दोंगरी वाठारांतलो बर्फ वितळून ह्या न्हंयांक हुंवार येता. युफ्रिटीसापरस टायग्रिस चड उदक हाडटा आनी ती मोडणामोडणांनी तशीच नेटान व्हांवता. डिजला ह्या तिच्या अरबी नांवाचो अर्थ 'बाण'. टायग्रिस आनी युफ्रेटीस मेळून हुंवाराच्या वेळार १,७५,००० क्युसॅक उदक व्हरतात आनी दर दिसा ३,००,००,००० टन गाळ हाडून मैदानांत पातळायतात. ह्या पिकाळ वाठारांत उणो पावस पडिल्ल्यान पुर्विल्ल्या काळासावन खारजांनी उदकापुरवण जाता. टायग्रिस आनी तिच्या उपन्हंयांचेर जायतीं धरणां आनी खारजां आसात. समारा धरणाचें चड उदक अस्तंतेकडेन थार्थार द्रोणीकडे येता. हांगा शिंपणावळ आनी हुंवारनियंत्रण हांचेखातीर व्हड प्रकल्प बांदला. बसराक सुरू जाल्ल्या त्रिभूज वाठारांत टायग्रिस, युफ्रेटीस आनी तांच्या फांट्यांक खारजांनी एकामेकांक जोडल्यात. समारा उपरांतचो टायग्रिसचो वाठार चड उश्ण (४९° सॅ.) आनी सुके हवेचो आशिल्ल्यान थंय शिंपणावळीक चड म्हत्व आसा. तेखातीर ह्या वाठारांत न्हंयांच्या हुंवारांचेरच आदारून रावचें पडटा. हांगा खाजूर, गंव, भरडीं धान्यां, तांदूळ, कापूस आदीचें पीक जाता. मोसूलमेरेन खाजराचें भरपूर पीक मेळटा आनी पुराय जगाक इराकच खाजूर पावयता. टायग्रिसच्या देगणांत बोकड्यो, मेंढरां, गोरवां, घोडे, गाढवां, ऊंट आदीचे कळप पाळप हो पुर्विल्ल्या काळासावनचो धंदो जावन रावला. हालीं तेंपार ह्या वाठारांत खनीज तेलाचे सांठे मेळ्ळ्यात.

हे न्हंयेचेर बसरा मेरेन तेलवाहक बोटी येतात. बसरा ते बगदाद टायग्रिसाचेर उथळ उदकांत चलपी बोटी येतात. 'कलाक' ह्या थळाव्या तराफ्यांवयल्यान कांय प्रमाणांत येरादारी जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**टायडे, वामनराव तानाजी :** (जल्म : १ नोव्हेंबर १९१९, पडाळसे, यवल जळगांव).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी मुळाव्या यत्तां मेरेन शिक्षण घेतलें. तो प्रजा सोशलिस्ट पक्षाचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो जनता पक्षाचो वांगडी जालो. १५ ऑगस्ट १९५५ दिसा काणकुंबीच्यान गोंयांत येवन, ताणें सुर्ला सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. तेन्ना पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी दोन दीस बंदखणींत दवरलो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**टायफॉयड :** साल्मोनॅला टायफाय (Salmonella typhi) ह्या नांवाच्या आनी तत्सद्दश जंतूंच्या वंशाक लागून जावपी खर रोगाक टायफॉयड फिवर वा दिसांचो जोर अशें म्हण्टात. हाकाच मधुरा, संततज्वर, विषमज्वर अशींय नांवां असात. साल्मोनेला टायफाय हे जीव अन्न-उदक हांचेवांगडा पोटांत वतात. ल्हान आंतकड्यांक तशेंच लागशिल्ल्या लसिका गांठींक (Lymph-nodes) लागण जावन सवकासायेन दिसान दीस सगळी कूडभर पातळटात.

हो रोग सगळ्या देशांनी चड-उण्या प्रमाणांत मेळटा. गिमाच्या दिसांनी ह्या जोराची लागण चड प्रमाणाचेर जाता. खंयचेय पिरायेच्या मनशाक हो जोर येवं येता. पूण तरनाट्या आनी ल्हान भुरग्यांभितर ह्या जोराचें प्रमाण चड आसता. उश्ण हवामानाच्या देशांनी हाची लागण चड प्रमाणाचेर जाता. सुदारिल्ल्या देशांनी हाचें प्रमाण खूब उणें आसता. देखीक - इंग्लंडांत जोराचें प्रमाण १,०००,००० लोकसंख्येक एक प्रमाण आसता. अशा सुदारिल्ल्या राश्ट्रांनी जोराची लागण, चड करून भायल्या देशांतल्यान आयिल्ल्या लोकांकडल्यान उप्रासता. तशेंच आफ्रिका, आशिया, लॅटीन अमेरिका, पॅसिफीक म्हासागरांतल्या कांय जुंव्यांचेर ह्या जोराचें प्रमाण १,००,००० लोकसंख्येक १०० ते १५०० इतलें आसता. भारतांत हेंच प्रमाण १,००,००० लोकसंख्येक १०२ ते २२१९ इतलें आसता.

ह्या दुयेंसाचो वसो प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्षपणान येवं येता. दुयेंत मनशाची सेवा करतना ताच्या पजडाकडेन (faeces) संबंद आयिल्ल्यान प्रत्यक्ष वसो येवंक शकता. अन्न, उदक, दूद, फळां, भाजयो दुशीत आसल्यार आनी त्यो नितळ धुवन वापरल्योनात वा उकडिनासतना खाल्यार हें दुयेंस अप्रत्यक्षपणान जावं येता. दर्याखाणांतल्यान देखीक - तिसऱ्यो, खुबे, शिनाण्यो हातूंतल्यान ह्या दुयेंसाचो वसो येवंक शकता. नितळसाण राखपी राश्ट्रांनी हें दुयेंस चडशे खेपे अन्न, उदक, दूद हाताळपी रोगवाहकां कडल्यान पातळटा.

रोगजंतू आंतकड्यांतल्यान रगतांत पावतात. अशा वेळार तकली, आंग दुखता. खूब थंडी खावन येता. भूक उणी जाता. ३-४ दिसांउपरांत रोगजंतू ल्हान आंतकड्यानी वचून स्थिरावतात, तेन्ना आंतकड्यांक सूज येता. हाका लागून दुयेंत मनशाच्या पोटांत दुखूंक लागता. आंतकड्यांक भितरल्यान घाय (ulcers)पडटात आनी रोखडे पेखुनूय येतात. पोटांतल्या कांय लसीका गांठींक (lymph nodes) सूज येता. प्लीहा (spleen) तशेंच फिग्द (liver) हांकांय मातशी सूज येता. जोराचो सुरवातीचो काळ (incubation) १०-१४ दीस आसूं येता.

**लक्षणां** - टायफॉयड ह्या दुयेंसांत आंगांत सवकासायेन जोर भरत आसता. सुरवातेक ३-४ दीस मेरेन जोर सकाळीं उणो असता. सांजवेळां चडत वता आनी रातीकडेन खुबूच वाडटा. जोराची वाड जायता वता. जोर दिसानदीस वाडत आसता. पयले ७-८ दीस पांय, आंग, तकली खूब दुखता. रात-दीस दोळे धांपून येतात. केन्नाकेन्नाय सुकी खांक येवन नाकांतल्यान रगत पडटा. खुबशे फावटीं पोटांत दुखता. पोटांत सुकता वा अतिसारूय जाता. ल्हान भुरग्यांक मात चडशे खेपे ओंकारे तशेंच अतिसार जावप हें सुरवातीचें मुखेल लक्षण. सादो जोर आसता तेन्ना काळीज बेगीन चलता म्हणून नाडयेचे थेके (Pulse) वाडटात. पूण टायफॉयड जोरांत नाडी जोराच्या मानान खूब उणे गतीन चलता. रगत तपासणेंत रगताच्या धव्या पेशींची संख्या हेर जोराच्या मानान उणी आसता. ७-८ दिसांउपरांत पोट, फाट, तोंड, मान, हड्डें ह्या भागांचेर बारीक तांबसो पुळेर येता आनी तो २-३ दिसांभितर आपशींच वता. ह्याच दिसांनी प्लीहा, फिग्द सुजिल्ल्यान पोट फुगता, चड करून पोटाचे उजवे वटेन दुखता आनी पातळ परसाकडेन जाता. ह्या दोन सप्तकांभितर रोग्याचेर योग्य ते उपचार जालेनात जाल्यार पिडेस्ताची साबुद्द वता. अशा वेळार पिडेस्त मरपाचीय शक्यताय आसता. तिसऱ्या सप्तकांत, आंतकड्यांनी उप्राशिल्ल्या घायांतल्यान घातक प्रमाणांत रगत व्हांवता वा घायाचे सुवातेर बुराक पडटा. केन्नाकेन्नाय कांयच वखदां घेना आसतना तिसऱ्या सप्तका उपरांत जोर वचूं येता. पूण कांय म्हयन्यांनी वा वर्साउपरांत हो जोर परतून येवं येता.

सालमोनॅला पॅराटायफॉयड ह्या जोराचीं लक्षणां टायफॉयडाभाशेनूच आसतात. पूण हातूंत जोर ल्हव-ल्हव करून वाडचेबदला अतिसारावांगडा अकस्मात येता आनी तीन सप्तकांभितर वता. वैजकी तपासणी केलेबगर टायफॉयड आनी पॅराटायफॉयड जोर वळखूंक मेळना. ह्या जोरांत पॅराटायफाय ए, बी आनी सी अशे तीन तरांचे जंतू आसतात. टायफॉयडांत जावपी रक्तस्त्राव आनी आंतकड्यांक पडपी घायांसारके घातक उपद्रव ह्या रोगांत चडशे मेळनात.

टायफॉयड जोरांत दोन सप्तकांच्या काळा उपरांत आंतकड्यांच्या घायांतल्यान अकस्मात घातक प्रमाणान, संडासावटेन रक्तस्त्राव जाता. ताका लागून आंगांतलें रगताचें प्रमाण खूब उणें जाता. तेन्ना रक्तदाब उणो जावन रोग्याचें काळीज कलकलता. अशा वेळार खूब अशक्तपण जाणवता दोळ्यांचेर काळोख येवन घुंवळ आयिल्लेभाशेन जाता, खूब घाम येता, आंग धवें आनी थंड पडत वता. रोगी जाण्टो आसल्यार ताच्या मर्णाची शक्यताय चड आसता. आंतकड्यांक बुराक जाल्लो आसल्यार, पोटांत भितर रक्तस्त्राव जाता आनी पोट फुगून खूब दुखता. गुरवार बायलेक टायफॉयड येत जाल्यार ५०% प्रमाणांत गर्भपात जाता वा भुरगें पोटांत मरता वा भुरग्याची पुराय वाड जायना. तशेंच भुरग्याक श्वासनलिकादाह (Bronchitis), न्युमोनिया, काळजाचें दुयेंस (Myocarditis), कामीण अशा तरांचीं दुयेंसां जावं येतात. ५ ते ७ वर्सां सकयले पिरायेच्या भुरग्याक मारून येवपाची शक्यताय आसता.

**निदान** - पयल्या सप्तकांत सुक्ष्मजंतू संवर्धन पद्दतीन (Blood culture) रगत तपासून ह्या रोग्यांचें निदान करूं येता. दुसऱ्या सप्तकांत 'विडाल' (Widal Test) नांवाची रगत तपासणी करून रोगाचें निश्चीत निदान करूं येता. चडशे वैज निदान करपाक 'विडाल' पद्दतूच वापरतात. सादे रगत तपासणेंत धव्या रगता-पेशींचो उणाव दिसून येता. आंतकड्यांतल्यान रक्तस्त्राव जालो वा आंतकडेक बुराक पडल्यार 'बचाव उपचार पद्दत' (Conservative treatment) वापरतात. रगताशिरेंतल्यान सुक्ष्मरोगजंतुनाशक द्रवउपचार (fluid therapy) रक्तसंक्रमण (Blood transfusion) सारके वैजकी उपाय करतात. अशा वेळार शस्त्रक्रिये सारकिले उपचार करिनात कारण ते चड घातक जावपाची शक्यताय आसता.

सुरवेक ह्या दुयेंसाचेर, सुक्ष्मरोगजंतुनाशक (Antibiotic) वखदांतलें क्लोरॉफेनिकॉल (chloramphenicol) हें वखद सोदून काडलें. आयज लेगीत हें वखद वापरतात. पूण रगताचेर ह्या वखदाचे कांय वायट परिणाम जावं येतात. हाचे उपरांत जायतीं हेर वखदां तयार जालीं. देखीक - कोट्रायमॉक्साझोल (Co-Trimoxazole). हें वखद चड करून पॅराटायफॉयड रोगाचेर चड गुणकारी आसा. ह्या वखदाचे वायट परिणामय खूब उणे आसात. क्विनोलीन (Quinoline) जातीचीं सीप्रोफ्लोक्सासीन (Ciprofloxacin), पी-फ्लोक्सासीन (P-floxacin), ओ-फ्लोक्सासीन (O-floxacin) ही नवीं वखदां चड गुणकारी आसून तांचे वायट परिणाम जायनात. ह्या वखदांचो उपचार १० दीस घेतात.

**वासीन (लस)** - मोनोवेलंट ॲण्टीटायफॉयड वासीन (Monovalent Antityphoid Vaccine) हें सालमोनॅला टायफाय ह्या मृत सुक्ष्म जंतूपसून तयार केल्लें वासीन भारत धरून थोड्याच देशांनी वापरतात. ०.५ मिलि. (ml). मात्रेंत ४ ते ६ सप्तकांच्या अदमासान एक इंजॅक्शन (कातीपोंदा) अशीं पयलीं दोन इंजॅक्शनां दितात. हाका लागून ३ वर्सांमेरेन टायफॉयड जावपाची भिरांत उणी आसता. गरजेप्रमाण उपरांत दर ३ वर्सांनी एक फावट हें वासीन करून घेवंक जाय. वयलेवयर फकत टायफॉयडाचो वसो येवपी देशांतल्या लोकांनी वा अशा वाठारांत रावंक आयिल्ल्या नागरिकांनी वा भोंवडेकारांनी हें वासीन मुजरत करून घेवंक जाय.

तोंडांत घेवपाचें जिवें वासीन (Live oral vaccine) स्वीस आनी अमेरीकेच्या विज्ञानकारांनी सोदून काडलां आनी चीनी तशेंच इजिप्त सारकेल्या देशांनी ह्या वासिनाचो उपेग करून पळयला. जर्मनींत हें वासीन व्हड प्रमाणाचेर वापरतात. ह्या वासिनाची रोगनिवारण शक्त खूब व्हड

काळ आसा. कांय सप्तकांच्या अंतरान ३ मात्रा पिवपाक दिल्यार हाचो गूण ३ वर्सांमेरेन उरता. हालीं हें वासीन भारतांतूय मेळटा.

हो जोर येवन वतकच दूयेंत मनशाची चड जतनाय घेवंची पडटा. रोगी अशक्त जाल्यान चलतना, कसलीय हालचाल करतना वा आहार घेतना ताका खूब सांबाळचो पडटा. ताका पचपाक ल्हव पूण पुश्टीक अन्न पातळ रुपांत दिवप चड गरजेचें आसता. देखीक - फळांचो रोस, गोड खीर, दूद, सूप, पेज आनी हेर. एकदां हो रोग येवन वतकच चड करून तो परतून जायना. पूण एकाद्रे व्यक्तीक दोन-तीन खेपे टायफॉयड जाल्याचीं उदाहरणां आसात. अशक्तपण, चड कश्ट हांकां लागुनूय ह्या रोगाचें प्रमाण चड असता. कांय रोग्यांभितर जोर परतुपाची शक्यताय आसता. पयलींच अशक्त जाल्ल्या रोग्याचो जोर परतलो जाल्यार तो चड भिरांकूळ जाता. अशा वेळार रोग्याक केन्ना केन्नाय मरण लेगीत येता.

दुयेंत मनशाक बरी नितळ हवा खेळटा अशे कुडींत सुशेगाद न्हिदोवन दवरचो. ताका कसलेच तरेचो त्रास वा कश्ट जावंचे न्हय म्हणून जतनाय घेवंची. दीसपट्टें आंग पुसून घेवप, गरज पडल्यार ताका कुडींतल्यान भायर व्हरचेपरस थंयच मुतपाक वा संडासाक तस्त दिवचें. अशें केल्यान दुयेंत मनशाक शारिरीक कश्ट जायनासतना सुसेग मेळटा. तशेंच ताच्या आहारांत 'ब' जीवनसत्व चड प्रमाणांत वापरचें. ह्या दुयेंसापसून जतनाय घेवपाखातीर सदांच उदक खतखतावन पियेवंचें. जेवण-खाण धांपून दवरचें. घराभोंवतणचो वाठार नितळ दवरचो. जात्रा, वसतीघरां, खानावळी वा झुजामळांचेर ह्या रोगाचें प्रमाण चड आसता.

खूब लोग एकाच वेळार एकठांय आशिल्ल्यान वसो येवपाचो संभव चड आसता. अशा सुवातींनी नितळसाणेची चड जतनाय घेवप शक्य नासता. पूण अशा वेळार वयर उल्लेख केला, तसलें एकाद्रें वासीन करून घेतल्यार ह्या दुयेंसापासून राखण जावं येतां.

- डॉ. आनंद हळर्णकार

**टाळ :** एक घन वाद्य. दोन पितुळचे कुडके घेवन तांकां खोलगट वा दोण्याचो आकार दिल्लो आसता. ह्या कुडक्यांमदीं थोडोसो उंचवटो आसता. ह्या उंचवट्याचे मदीं बुराक करून तातूंत दोरी गुंथतात आनी उंचवट्या भितल्ले वटेन दोरयेची गांठ मारतात. हे दोन कुडके दोन हातांनी घेवन तांचो एकामेकांचेर आघात करून ताल धरतात. केन्नाकेन्नाय टाळ एका हातांत घेवनय वाजयतात. ह्या वाद्याचो उपेग देवळांत भजन, किर्तन आदी प्रसंगां वेळार वा आरत्यां वेळार ताल धरूंक करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**टाळेबंदी :** उद्देगीक मळार मालकाचे हितसंबंद राखपी एक उपाय. उद्देगीक मळार कामगार तशेंच मालक हांच्या हितसंबंदांत जेन्ना तंटो निर्माण जाता, तेन्ना निमाणो उपाय म्हणून कामगार संपाचो आदार घेतात आनी मालक टाळेबंदीचो आदार घेता. टाळेबंदी म्हळ्यार आस्थापनाच्या दाराक टाळें म्हळ्यार कुलूप, लावन काम बंद दवरप. उद्देगीक कलह कायदो १९४७ च्या प्रमाण कामगारांक कामार येवपापसून आडावन धरपाची तरतूद आसा. जेन्ना कामगार आनी मालक हांचे तडजोडींतल्यान समाधानी असो तोडगो भायर सरना तेन्ना कामगारांनी केल्ल्या संपाक जाप म्हणून वा संपाच्या काळांत हिंसात्मक कर्तुपां जालीं वा जावपाचीं आसात अशें दिसलें जाल्यार अशा वेळार आस्थापनाचे सुरक्षीततायेचे नदरेन टाळेबंदी जाहीर करप जाता.

संपांत तशेंच टाळेबंदींत कामगारांचें आनी मालकाचें दोगांयचें नुकसान जावन अर्थीक आनी समाजीक परिस्थीती इबाडटा. ही नुकसानी लक्षांत घेवन कामगार तशेंच मालक ह्या अतिरेकी उपायांकडेन पावचे न्हय म्हणून आनी दोगांयमदीं समंजस संबंद प्रस्थापीत करपाचे हेर कायदेशीर उपाय आसात. तेखातीर कामगार न्यायालय, उद्देगीक न्यायालय, चौकशी न्यायालय हांची तरतूद केल्या. १९४७, १९५३ आनी १९८४ च्या उद्देगीक कलह कायद्याप्रमाण ह्या न्यायालयांनी चलपी तंटयासंबंदींचे निर्णय लागचेपयलीं संप वा टाळेबंदी बेकायदेशीर थारता. तशेंच थरावीक मुदत दिनासतना अकस्मात केल्लो संप वा टाळेबंदी बेकायदेशीर थारता. तशेंच कांय भौशीक गरजेच्यो सेवा (वैजकी, येरादारी आदी) दिवपी वा वस्तू (वखदां, गरजेचीं अन्यधान्यां) करपी आस्थापनांतल्या संपाक वा टाळेबंदीक उद्देगीक कलह कायद्यावरवी बंदी घालू येता. झूज आनी आणिबाणी सारकिल्या राश्ट्रीय अरिश्टांच्या काळांत संप तशेंच टाळेबंदीचेर कायद्यान बंदी घाल्ली आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**टॉड, सर आलेक्झांडर रॉबर्टस :** (जल्म : २ ऑक्टोबर १९०७, ग्लासगो).

नामनेचो ब्रिटीश जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ग्लासगो विद्यापिठांतल्यान बी. एससी. पदवी मेळयतकच ताणें जर्मनींतल्या फ्रँकफुर्ट विद्यापिठांतल्यान १९३१ त पीएच.डी. पदवी मेळयली. उपरांत ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत शिकप घेतकच १९३४ त तो एडिंबरो विद्यापिठांत गेलो. थंय तो दोन वर्सां रसायन शास्त्राचो व्याख्यातो आशिल्लो. १९३६-३८ ह्या काळांत ताणें लंडनच्या लिस्टर इन्स्टिट्यूट ऑफ प्रिव्हेंटिव मॅडिसीन हे संस्थेंत संशोधन केलें. उपरांत तो १९३८-४४ ह्या काळांत मँचेस्टर विद्यापिठांत आनी १९४४-६३ त केंब्रिज विद्यापिठांत रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९६३ त तो क्रायस्ट म्हाविद्यालयाचो मास्टर जालो. दुसऱ्या म्हाझुजांत ताणें कितल्याशाच सरकारी प्रकल्पांक पालव दिलो. १९५२-६४ त तो ब्रिटीश सरकाराच्या विज्ञानीक धोरणाविशींच्या सल्लागार मंडळाचो अध्यक्ष आशिल्लो.

कार्बनी रसायनशास्त्रांत उपेगांत आशिल्ल्या तंत्रांचो उपेग करून सैमीक न्युक्लिईक अम्लांच्या घटक न्युक्लायडांचें संश्लेशण करपांत टॉड हाणें यश मेळयलें. ताच्या रेणवीय संरचनेचो प्रत्यक्ष पुरावोच ताणें सादर केलो. हाचेफुडलो पांवडो म्हणून ताणें प्रत्यक्ष न्यूक्लिईक अम्लांचे रचणुकेविशीं विचार करून तातूंतल्या फॉस्फेट बंधाची सुवात निश्चीत करपाचो यत्न केलो. उपरांत उतकांत (tissues) सांपडपी आनी को-एंझायमांचें कार्य करपी न्युक्लायडांचे रचणुकेकडेन ताणें लक्ष दिलें आनी ॲडिनोसीन डायफॉस्फेट (ADP) आनी ॲडिनोसीन ट्रायफॉस्फेट (ATP) ह्या न्युक्लिओटायडांची रचणूक सिद्ध केली. १९४९ त ताणें (ATP) चें संश्लेशण केलें. ते उपरांत फ्लाविन ॲडनीन डायन्युक्लिओटाइड (FAD) ह्या ऑक्सिजनाचो उपेग करपाखातीर लागपी को-एंझायमाची रचणूक (१९५४) आनी युरिडीन डाय-फॉस्फेट ग्लुकोज (UDFG) ह्या सगल्या पेशींनी सांडपाची को-एंझायमाची रचणूक (१९५६) ताणें सोदून काडली

आनी ताचें संश्लेशण केलें. १९५५त ताणें $ब_{१२}$ जीवनसत्वाची रचणूक निश्चीत केली.

न्युक्लिओसायडां, न्युक्लिओटाइडां आनी न्युक्लिओटायड को-एंझायमां हांची संरचना संश्लेशण तशेंच तांचेकडेन संबंदीत आशिल्ले फॉस्फोरिलीकरणा विशींचे प्रस्न हांचेविशीं केल्ल्या वावराखातीर ताका १९५७ चो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. न्युक्लिईक अम्लांचें जैव कार्य आनी भौतिक संरचना समजुपाखातीर ताच्या ह्या कार्याचो खूब उपेग जालो.

१९५४त ब्रिटीश सरकारान ताका 'नायट' हो किताब दिलो. १९४२त लंडनचे रॉयल सोसायटीचो सदस्य म्हणून ताची निवड जाली. १९५५त, अमेरिकेचे नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचो परदेशी सदस्य म्हणून ताची निवड जाली.

– कों. वि. सं. मं.

**टॉमॉनागा, शिन-इ चिरो :** (जल्म : ३१ मार्च १९०६, टोकयो; मरण : ८ जुलय १९७९, टोकयो).

नामनेचो जपानी भौतिकशास्त्रज्ञ. १९२९त क्योटो विद्यापिठांतल्यान आणवीय भौतिकी ह्या विशयांतली पदवी मेळयतकच ताणें काजूरो टोमाकी प्रयोगशाळेंत हीडकी युकावा हाचेवांगडा सहाय्यक म्हणून तीन वर्सां काम केलें. १९३२त टोकयोच्या सायन्स रिसर्च इन्स्टिटयूट हे संस्थेंत ताची बदली जावन थंय योशिओ निशिना हाच्या मार्गदर्शनाखाल ताणें संशोधन केलें. १९३७-३९ ह्या काळांत ताणें लायपसिक (जर्मनी) विद्यापिठांत डब्ल्यू. के. हायझेनबेर्क हाच्या मार्गदर्शनाखाल संशोधन केलें. १९३९-४०त इन्स्टिटयूट ऑफ फिजीकल ॲंड केमिकल रिसर्च, टोकयो हांगा सहाय्यक, टोकयो बुनरिका विद्यापिठांत १९४०त व्याख्यातो आनी १९४१ त प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९४९-५० ह्या काळांत ताणें इन्स्टिटयूट ऑफ ॲडवान्स स्टडी, प्रिन्स्टन (अमेरिका) हे सुवातेर अध्यापन केलें. ताणें १९४९-६९ ह्या काळांत टोकयो युनिव्हर्सिटी ऑफ एज्युकेशन हातूंत भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून काम केलें. ह्याच विद्यापिठाचो १९५६-६२त ह्या काळांत तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९६३-६९त ताणें इन्स्टिटयूट ऑफ ऑप्टिकल रिसर्च हे संस्थेचो संचालक म्हणून काम पळयलें. १९६३-६९त तो जपान सायन्स काउन्सिलाचो अध्यक्ष आशिल्लो.

टॉमॉनागा हाचे पुंज विद्युत् गतिविशींचे सुदारीत सिद्धांत सापेक्षताय सिद्धांताकडेन सुसंगत आसून ते प्रयोगाचे कसवटणेक खरे थारतात. मुलकणांत परस्परक्रिया जाल्यार तांचें द्रवमान आनी विद्युत्‌भार हातूंत जावपी बदलांचें गणित करपांत येवपी आडखळी टॉमॉनामा हाच्या संशोधनाक लागून पयस जाल्यो. न्यूट्रॉनांविशींच्या सिद्धांतावयल्या ताच्या निबंधाक लागून पुंज गतिकीय आनी मासा आनी कोटानी हांच्या पालवान केल्ल्या संशोधनाक लागून विद्युत् चुंबकत्व ह्या विशयांत ताणें मोलादीक भर घाली.

१९६५ वर्साचो भौतिकशास्त्र विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार पुंज विद्युत् गतिकींतल्या संशोधनाखातीर ताका अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ आर. एफ.फायनमन आनी जे. एस. श्विंग्गर हांचे वांगडा वांटून मेळ्ळो. ताका जपान अकादेमीचो पुरस्कार (१९४८), ऑर्डर ऑफ कल्चर (१९५२) आनी लमनॉसॉव्ह पदक (रशिया, १९६४) हे भोवमान फावो जाल्यात. इंग्लिशींत अणकारीत जाल्लो Quantum mechanism हो ताचो ग्रंथ लोकप्रिय जाला.

– कों. वि. सं. मं.

**टॉयन्बी, आर्नल्ड जोसेफ :** (जल्म : १४ एप्रिल १८८९, लंडन; मरण : २२ ऑक्टोबर १९७५).

नामनेचो इतिहास लेखक आनी इतिहासाचो एक व्हड भाश्यकार. नामनेचो अर्थशास्त्रज्ञ आर्नल्ड टॉयन्बी हाचो तो पुतणयो. विंचेस्टर आनी बेल्यल म्हाविद्यालयांत आपलें शिक्षण पुराय करतकच तो ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत संशोधन अधिछात्र म्हूण काम करूंक लागलो. १९१२ ते १९१५ ह्या काळांत ताणें अध्यापक संशोधक आनी इंग्लंडच्या परराश्ट्र व्यवहार विभागांतलो अधिकारी अश्या मळार काम केलें. १९१९ ते १९२४ मेरेन तो लंडन विद्यापिठांत आधुनिक ग्रीक भास आनी इतिहास हे विशय शिकयतालो. १९२५ त तो 'रॉयल इन्स्टिटयूट ऑफ इंटरनॅशनल अफेअर्स' हे संस्थेचो संचालक जालो. त्याचवेळार लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स हे संस्थेंत आंतरराश्ट्रीय इतिहास ह्या विशयाचो संशोधन प्राध्यापक म्हूण अध्यापन आनी संशोधन करूंक लागलो. उपरांत १९५० ते १९५४ ह्या काळांत ताणें अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत अभ्यागत व्याख्याता म्हूण काम केलें. १९५६ त अमेरिकेकडल्यान 'ए चॅम्पीयन ऑफ ऑनर' म्हूण ताचो भोवमान करपांत आयलो. मॅंचेस्टर गार्डियन ह्या इंग्लंडांतल्या नामनेच्या नेमाळ्याचो प्रतिनीधी म्हूण ताणें कांय काळ काम केलें. पयल्या म्हाझुजा उपरांतच्या पॅरिस हांगाचे शांतता परिशदेक इंग्लंडचो प्रतिनिधी म्हूण तो हाजीर आशिल्लो.

ग्रीस आनी तुर्कस्थानांतल्या अडचणीं विशीं टॉयन्बीन इ.स. १९२२ त एक ग्रंथ बरयल्लो. पूण ताचें मुखेल कार्य म्हळ्यार 'अ स्टडी ऑफ हिस्ट्री' ह्या १२ खंडांच्या ग्रंथाचें लिखाण. ह्या ग्रंथांत ताणें संवसाराचो इतिहास बरयला. तशेंच इतिहासाचें तत्त्वज्ञानय मांडिल्लें आसा.

ह्या ग्रंथांत टॉयन्बीच्या विचारांचें मुखेल सूत्र अशें आसा. इतिहासाचो अभ्यास फकत एकाद्रच्या राश्ट्राच्या वा देशाच्या संदर्भांत करप चूक आसा. इतिहासाचो मूळ अभ्यास विशय संस्कृती आसचो. ताच्या मतान जगांत अश्यो एकवीस संस्कृती वा समाज जावन गेले. परिस्थितीन त्या संस्कृतींक दिल्लें आव्हान आनी ताका तोंड दिवपाखातीर थंयच्या समाजान केल्लो यत्न हातूंतल्यान प्रत्येक संस्कृतीचो इतिहास घडत वता. ह्या आव्हानांक तोंड दिवपाचें आनी नवनिर्मितीचें कार्य एकाद्रच्या पंगडाकडल्यान जाता आनी हो पंगड चडसो धर्मीक प्रवृतीचो आसता वा अंतःप्रेरित शक्तीक लागून कार्य करता. समाजांतले सर्वसामान्य लोक ह्या गटाचें फुडारपण मानतात.

टॉयन्बीन आनीक एक सर्वसामान्य निश्कर्श काडला तो हो - ताच्या मतान सगळ्यो संस्कृती चार अवस्थांतल्यान वतात. सगळ्या संस्कृतींचो बारीकसाणीन विचार केल्यार अशें दिसता की, दरेक संस्कृती ही एके थरावीक शिमेमेरेन उदरगत करता. कांय काळाउपरांत तिचे अधोगतीक सुरवात जाता आनी उपरांत तिचो ऱ्हास सुरू जाता आनी निमाणें केन्नाय भितरले घुसखोरीक लागून वा केन्ना भायल्या घुरयांक लागून ती संस्कृती नश्ट जाता. ताणें कल्पिल्लेच्या २१ संस्कृतीक असले अवस्थेंतल्यान वचचें पडलें हें दाखोवपाचो ताणें यत्न केला.

टॉयन्बीच्या सिद्धांताचेर जायत्याजाणांनी आक्षेप काडले. ताच्या लिखाणांत तपशिलांच्यो चुको मेळटात, तेचपरी आपलो सिद्धांत सिद्ध करपाखातीर ताका फाव तशे पुरावे मेळ्ळे नात अशेंय मत कांय इतिहासकारांनी मांडलें. 'अ स्टडी ऑफ हिस्टरी' ह्या पुस्तकाभायर टॉयन्बीन आनीकय कांय पुस्तकां बरयलीं. नॅशनॅलिटी अँड वॉर (१९१५), द वेस्टर्न क्वेश्चन इन ग्रीस अँड टर्की (१९२२), ग्रीक हिस्ट्रॉरिकल थॉट (१९२४), ग्रीक सिव्हिलायझेशन अँड कॅरेक्टर (१९२४), सर्व्हे ऑफ इंटरनॅशनल अफेअर्स (१९२३-२७), जर्नी टू चायना (१९३१), ब्रिटीश कॉमनवेल्थ रिलेशन्स (१९३४), वॉर अँड सिव्हिलायझेशन (१९५१), द वर्ल्ड अँड द वेस्ट (१९५३), ॲन हिस्टॉरिकल ॲप्रोच टू रिलीजन (१९५६) ,द चॅलेंज ऑफ अवर टाइम (१९६६) हे ताचे कांय नामनेचे ग्रंथ.

प्राध्यापक पदावेल्यान निवृत्त जातकच ताणें आपलें उरिल्लें जिवीत पुरायपणान लेखनकार्याक ओपलें. १९६० उपरांत ताणें आपली वैचारीक भुमिका बदलली. विश्वधर्म होच एक संवसारीक एकचाराचो मार्ग आसा हें मत ताणें ॲन हिस्टोरिकल ॲप्रोच टू रिलीजन ह्या ग्रंथांत मांडलें. टॉयन्बीन मांडिल्ल्या इतिहासीक निश्कर्शांतले कांय मुद्दे जरी विवाद्य आसले, तरी एका विशिश्ट क्षेत्रापुरतोच इतिहासाचो अभ्यास मर्यादित करून घेवपी आर्विल्ल्या इतिहासकारांक ताचो हो वावर प्रेरणा दिवपी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**टॉरोंटो :** कॅनडांतलें दुसऱ्या क्रमांकाचें शार आनी ताच्या ऑंटॅरिओ प्रांताची राजधानी. लोकसंख्या ६, १२, २८९ (१९८६). ऑंटॅरिओ तळ्याचे उत्तर देगेर डिट्रॉइटाचे इशान्येक ३६४ किमी. अंतराचेर आनी ओटावाचे नैर्ऋत्येक ३६८ किमी. अंतराचेर हें शार वसलां. टॉरोंटो म्हळ्यार ह्यूरन भारतीय भाशेंत ताचो अर्थ एकठांय मेळपाचो जागो असो जाता. टॉरोंटो आयलंड नांवाच्या रेंवेंच्या आकाराच्या बांदाफाटल्यान सुमार ५ चौ.किमी. आवांठाचें टॉरोंटो हें सुरक्षीत अशें सैमीक बंदर. बांदाच्या दोनूय वटांनी काँक्रिटान बांदून काडिल्ल्या खारजांतल्यान ह्या बंदरांत वचूंक मेळटा. 'सेंट लॉरेन्स सी वे' हाचेखातीर दर्यावर्दी बोटीक ह्या बंदराचो बरो उपेग जाता. बांदाचेर उद्यानां, खेळामैदानां आनी विमानतळ आसा. ऑंटॅरिओ तळ्याच्या समुद्र पांवड्या सावन सुमार ८२ मी. उंचायेचे देगेसावन सुमार २०० मी. उंचायेमेरेन चडटेचेर सुमार १०४ चौ. किमी. भुंयेवाठारार टॉरोंटो शार वसलां. ह्या शाराचे उदेंतकडल्यान डॉन आनी अस्तंतेकडल्यान हंबर ह्यो न्हंयो व्हांवतात.

१७९३त ब्रिटीश गव्हर्नर सिम्को हाणें अपर कॅनडाची राजधानी म्हणून ह्या शाराची स्थापना केल्ली. पूण ताचे आदीं १७४९ त सावन फ्रॅंचांनी थंय किल्लो बांदून थळाव्या लोकांकडेन फर आदींच्या वेपाराक सुरवात केल्ली. १७५९ त ब्रिटिशांनी हें ठाणें जिखलें, तेन्ना फ्रॅंचांनीच किल्लो नश्ट करून उडयलो. सिम्को हाणें ह्या शाराचें नांव यार्क दवरिल्लें. १८१२ च्या झुजांत संयुक्त संस्थानांच्या फौजांनी ह्या शारांत उजो लायलो. नॅपोलियन झुजाउपरांतच्या काळांत जायते लोक ब्रिटनांतल्यान थंय रावपाक आयले. १८३४ त यॉर्क शार परतें टॉरोंटो म्हणून नामनेक पावलें. १९४९ त थंय उजो लागून सेंट जेम्स कॅथॅड्रल, सेंट लॉरेन्स मार्केट आनी हेर जायत्यो इमारती तशेंच गुदांव नश्ट जाले. १८५०त थंय ग्रॅंड ट्रंक आनी ग्रेट वॅस्टर्न रेल्वे आयली. संयुक्त संस्थानांकडेन वेपारांत मेळिल्ल्या कांय सवलतीं खातीर ह्या वाठारांतले वनस्पती संपत्तीचो उपेग आनी शेतकी वाड केल्ल्यान ह्या शाराची नेटान उदरगत जायत गेली. फुडें ह्या शाराक राजकीय, अर्थीक, वेपारी आनी शिक्षणीक नदरेन खूब म्हत्व आयलें.

जानेवारींत आनी फेब्रुवारींत थंयचें हवामान खुबूच थंड आसता. थंय बर्फय खूब पडटा. जानेवारीचें तापमान ५.५° सॅ. जाल्यार जुलय-ऑगस्टाचें तापमान ३०° सॅ. आसता आनी हवामान दमट आसता. वर्सुकी पावस सरासरी ७८ सेंमी. आसता. शाराक नायगारा आनी थळाव्या जलविद्युत् केंद्रांतल्यान वीजपुरवण जाता.

शाराचे मदीं सुमार १६ हॅक्टरांची राणयेची बाग (क्वीन्स पार्क) आसा. तातूंत लोकसभेची आनी टॉरोंटो विश्वविद्यालयाची इमारत आसा. सेंट लॉरेन्स हॉल, न्यू सेंट जेम्स चर्च, सेंट पॉल ॲंग्लिकन चर्च, टिमाथी इटन मॅमोरियल चर्च, रॉयल बॅंक ऑफ कॅनडा, युनियन स्टेशन कॅनडियन पॅसिफीक रेल्वे आदींच्यो व्हड आनी सोबीत इमारती ह्या शारांत आसात. टॉरोंटो डॉमिनियन सॅंटर आनी कॉमर्स कोर्ट ह्या पन्नास माळ्यांपरसय चड माळ्यो आशिल्ल्या इमारतींत कार्यालयां आनी बॅंको आसात. सिटी हॉल, सायन्स सॅंटर, स्कारबरो कॉलेज, मॅसी कॉलेज, व्हिक्टोरिया, यार्क आनी हेर विद्यापिठीय इमारती तशेंच हेर वेपारी आनी उद्येगीक इमारती पळोवपासारक्यो आसात.

१९३०त ह्या शारांत भोंवतणचे १२ गांव आनी ताच्यो नगरपालिका आस्पावन घेतिल्ल्यो. १९६७त नगरपालिकांची संख्या स चेर हाडली. सद्या शाराचो कारभार टॉरोंटो महानगरपालिका पळेता. शारांत बस, ट्राम, भुंयारी मार्ग, रेल्वे आदी येरादारीच्यो सगळ्यो सोयी आसून ६०० किमी. रस्त्यांवयल्या ९०० ठिकाणांचें येरादारी नियंत्रण गणकयंत्राचे वतीन जाता. शाराच्या मदल्या भागा सावन अस्तंतेक २७ किमी. अंतराचेर टॉरोंटो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा.

कापड, मास, अन्नपदार्थ, पेयां, विजेचीं उपकरणां, यंत्रां, लोखंडी सामान, विमान, कागदां, रसायनां आदीं उद्देगधंद्याचें हें एक व्हड केंद्र. कॅनडांतल्या जनावरांची ही एक मुखेल बाजारपेठ. थंयसल्लो शॅर बाजार संवसारांतल्या खाणींच्या शॅरांचो सगळ्यांत व्हड बाजार आसा.

कॅनडांतल्या प्रकाशन वेवसायाचें हें एक व्हड केंद्र आसा. ह्या शारांत संवसारीक नामनेच्यो सिंफनी वाद्यवृंद आनी संगीत संस्था आसात. थंय तीन व्हड आनी हेर जायतीं नाटकाघरां आसून, वस्तुसंग्रहालय, ग्रंथालयां आसात. तशेंच, सायन्स सॅंटरात जायतीं कल्पीत, चलपी मुर्तकां दवरल्यांत. कॅनडांतलें नॅशनल एक्झिबिशन हें एक संवसारांतलें व्हड प्रदर्शन दर वर्सा थंय भरता. हांगासल्ले यॉट क्लब, रोइंग क्लब, स्केटींग क्लब हांची नामना आसून थंयचे बेस बॉल आनी बर्फावयलो हॉकी हे खेळ पळोवंक मेळटात. मॅपल लीफ स्टेडियम आनी मॅपल लीफ गार्डन्सांत खूब गर्दी जमता.

टॉरोंटो हें एक व्हड विभागीय पर्यटन केन्द्र आसून शिकार, नुस्तेमारी, उदकाभोवंडी, बर्फावयलो खेळ, अल्गॉंक्वियन पार्क, नायगारा धबधबो आदी पळोवपासारकीं थळां थंय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**टॉलस्टॉय, लिओ :** (जल्म : २८ ऑगस्ट १८२८, यास्नया पल्याना-तूला प्रांत; मरण : २० नोव्हेंबर, १९१०).

नामनेचो रशियन कादंबरीकार. ताचो जल्म एका गिरेस्त सरदार घराण्यांत जालो.



ताच्या बापायचें नांव निकोलस इल्यीच आनी आवयचें नांव मेरी वॉलॉनस्की आशिल्लें. पांच भावांतलो लिओ चवथो भुरगो. लिओचे बायलेचें नांव सोफी बर्स. कॅझन विद्यापिठांत १८४४ ते १८४७ मेरेन शिक्षण जातकच ताणें कॉकेशस नगरांत सैन्यांत नोकरी धरली. क्रिमियन झुजांत सिव्हॅस्तपोलाच्या झगड्यांत वांटो घेतलो.

शिकप आनी शिक्षणशास्त्र हाचेवयलीं आपलीं मतां प्रत्यक्षांत हाडपाखातीर टॉलस्टॉयान यास्नया पॉल्याना गांवांत १८४९ वर्सा शेतकामत्यांच्या भुरग्यांखातीर शाळा काडली. तशेंच, 'यास्नया पॉल्याना' ह्या नेमाळ्यांत बरेच लेख बरयले.

ताचे आपजिणेच्या ग्रंथत्रयीचो पयलो वांटो द्येत्स्त्व (चायल्डहूड) ही १८५२त उजवाडायल्ली टॉलस्टॉयाची पयली लेखनकृती. उपरांत १८५४ त ओत्रोचिस्त्व (बॉयहूड) आनी १८५६ त यूनस्त् (यूथ) असो दुसरो आनी तिसरो वांटो उजवाडायलो. तशेंच उत्रो पमेश्शिका (मॉर्निंग ऑफ ए लँडलॉर्ड) ह्या पयलींच्या बरपांतूय ताणें चड करून साद्या मनशाची जीण आनी सरदार- जमीनदार हांचेकडेन जावपी ताचो संघर्श चितारपाचेरूच चड भर दिला. क्रिमियन झुजांत ताणें स्वता वांटो घेतिल्ल्यान आपल्या सिवास्तोपल्स्कीये रस्काझी (सिव्हॅस्तपोल स्टोरीस) हातूंत त्या झुजाचें वर्णन बरोवपाक ताका चड आदार मेळ्ळो. १८६३ वर्सा बरयल्ले ताचे कझाकी (कॉसेक्स) हे कादंबरींतूय हेंच खाशेलपण दिसता.

१८६३ ते १८६९ ह्या काळांत टॉलस्टॉयान, नेपोलियनाकडेन जाल्ल्या झुजाचे फाटभुंयेवयली आपली राश्ट्रीय म्हत्वाची कादंबरी व्हयना इ मीर् (वॉर अँड पीस) बरयली. हातूंत १८०५ ते १८२५ ह्या इतिहासीक नदरेन म्हत्वाच्या काळांतल्या रशियन मनशाचें चित्र पितारलां. उंचेल्या लोकांचो अहम्, सुवार्थ, नीच वृत्ती आनी सामन्य जनतेचो देशाभिमान खर पणान जाणवता.

१८७५ ते १८७७ ह्या काळांत ताणें 'टॉलस्टॉय ॲना केरनिना' ही कादंबरी बरयली. सरदार घराण्यांत जल्मल्ल्या पूण महत्वाकांक्षी आनी वैयक्तिक अहंभावान पोखरिल्ल्या उच्चभ्रू समाजाच्या ढोंगी नीतीमत्तेआड, झूजपी ॲना हे रशियन बायलेची काणी हे कादंबरेंत आसा. एक आवय आनी एक मोगिका ह्या नात्यांक लागून तिच्या मनांत जावपी झुजाचें मन हालोवपी चित्र ताणें जशाक तशें पितारलां.

ताची तिसरी म्हत्वाची कादंबरी वस्क्रिसेनिये (रॅझरॅक्शन) ही १८९९ वर्सा उजवाडा आयली. हातूंत विचारीक गोंदळ आसलो तरी वास्तव चितारपी ती एक अप्रतीम नमुनो जावन रावल्या. कठोर आनी घृणास्पद अशा समाजीक आनी नैतिक न्यायपद्धतीकडेन जोडिल्ल्या मुळाव्या प्रस्नांक हातूंत सुटावे करपाचो यत्न टॉलस्टॉयान केला.

ताच्यो हेर म्हत्वाच्यो साहित्यकृती म्हळ्यार स्मेर्त इवाना इलिचा (डॅथ ऑफ इवान इलिच), क्रेश्तसरोवा सनाता (द क्रायट्सर सोनाता), हाजी मुरात आनी पोस्लि बाला (आफ्टर ध बॉल).

१८८६ वर्सा व्लास्त तमी (द पॉवर ऑफ डार्कनॅस) हें नाटक ताणें बरयलें. १८९० वर्सा उजवाडायल्ली 'प्लदी प्रस्विश्शेनिया' (ध फ्रुटस ऑफ एनलायटनमॅंट) ही साहित्यकृती बरयतकच १९०० वर्सा ताणें झिवोय त्रूप् (ध लिव्हींग कॉर्प्स) हें नाटक बरयलें.

टॉलस्टॉय तत्त्वज्ञ आशिल्लो. ताचीं शांततायवादी ध्येयां गांधीजीच्या शांतिपूर्ण असहकार आनी सत्याग्रह ह्या कल्पनांकडेन लागशिल्लीं आसात. रशियांतल्या अधिकृत धर्मपिठाकडेन टॉलस्टॉयाचे झगडें ताच्या वेगळ्या धर्मासंबंदीच्या कल्पनांक लागूनूच जाल्लें. पोथीनिश्ठ धर्मांतल्या कडकपणाक ताचो विरोध आसलो. धर्मीक कलेक तो चड मानतालो. ताचे भुमिकेचें प्रतिपादन 'वॉट ईझ आर्ट' ह्या प्रबंधांत मेळटा. १९०१ त ताका धर्मपिठान धर्माभायरो केलो.

टॉलस्टोयाचे कलेन रशियन वाङ्मयीन इतिहासांत एक यूग निर्माण केलां. ताकाच लागून लॅनिन हाणें टॉलस्टॉयाक 'रशियन क्रांतीचो हारसो' अशें म्हळां आसतलें. १९०५ ते १९१७ मेरेनच्या काळांत रशियेंत घडिल्ल्या घडणुकांचीं समाजीक कारणां समजूंक आमकां टॉलस्टॉयाच्या बरपाची मदत जाता.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांतल्या जगांतल्या दरेक म्हान लेखकाचेर टॉलस्टॉयाचे बुद्धिमत्तेचो प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष परिणाम जाला. रशिया आनी रशियेभायल्या सगळ्या लेखकांक टॉलस्टॉयाची शिकवण आनी मार्गदर्शन मेळ्ळां. १० नोव्हेंबर १९१० दिसा टॉलस्टॉयान आपले जहागिरीचो त्याग केलो आनी तो ना जालो. ह्या ना जावपा फाटल्यान ताच्या लग्नाचे जिणेविशींचें तीव्र वैफल्य आशिल्लें. तेच अवस्थेंत ताका, लीओ टॉलस्टॉय नांव दिल्ल्या अस्तपोक ह्या रेल्वे स्थानकाचेर अकस्मात दुयेंत जावन मरण आयलें.

– डॉ. किरण बुडकुले

**टॉलेमी :** (इसवी सन सुमार ९०-१६९).

नामनेचो ग्रीक ज्योतीशशास्त्रज्ञ आनी गणिततज्ञ. ताचें लॅटीन नांव क्लॉदियस टॉलेमस. कांय जाणांच्या मताप्रमाण ताचो जल्म ॲलेक्झांड्रिया (इजिप्त) गांवांत जालो जाल्यार कांय जाणांच्या मताप्रमाण तो नायल न्हंयेवयल्या टॉलेमेयस हेर्मी गांवांत जल्मलो. ॲलेक्झांड्रिया लागसारच्या देवळाचे एके गच्चेर ताची वेधशाळा आशिल्ली. ताच्या जिविताविशीं आनी कालखंडाविशींची निश्चीत म्हायती मेळना. पूण ताच्या वावराविशींची म्हायती मात पुर्विल्ल्या ज्योतीशशास्त्रज्ञां कडल्यान मेळटा.

Megal Syntaxis Tes Astronomias हें ताचें म्हत्वाचे पुस्तक आसून तातूंत पुर्विल्ल्या ग्रीक ज्योतीशशास्त्रज्ञांच्या वावराची म्हायती दिल्या. हें पुस्तक अरबांनी युरोपांत Almagist ह्या नांवान हाडलें. मध्ययुगांत हेंच ज्योतिशशास्त्राचें पाठ्यपुस्तक अशें मानताले. ताचे वट्ट १३ खंड आसात.

तातूंत विश्व रचणुकेची कल्पना, चंद्र, गिरे, सूर्य, गिराणां, गोलीय त्रिकोणमिती नक्षत्रांची वळेरी आनी हेर म्हायती आस्पावता.

गोल पूण थीर अशी पृथ्वी विश्वाचे मदीं आसून चंद्र, गिरे, सूर्य, नक्षत्रां हीं तिचेभोंवतणीं वाटकुळ्या कक्षांत घुंवत आसतात. हो टॉलेमीचो भुमध्य सिद्धांत आशिल्लो. कोपर्निकसान आपलो सूर्यमध्य सिध्दांत मांडलो तेमेरेन सुमार १,५०० वर्सां टॉलेमीचो सिद्धांतच सर्वमान्य आशिल्लो.

हिपार्कस हाच्या ८५० नक्षत्रांचे वळेरेवयल्यान टॉलेमी हाणें उत्तर खगोलांतल्या १,०२२ नक्षत्रांची वळेरी केल्ली. ताचो उपेग मध्ययुगांत सगल्याक जातालो. टॉलेमी हो पयल्या पांवड्याचो भुमितीशास्त्रज्ञ आशिल्लो. Harmonics ह्या ताच्या पुस्तकांत ताणें ग्रीक गणिताचो आनी त्रिकोणमितीचो विस्तार दिला. प्रतल भुमितींतलो वाटकुळाविशींचो सिद्धांत टॉलेमी सिद्धांत म्हणून नामनेक पावला. ताणें भुमितीचेर दोन आनी यामिकीचेर तीन पुस्तकां बरयल्यांत.

ताणें भुगोलाक शास्त्राचें स्वरूप दिलें. Geographike Hyphegesis (भुगोलशास्त्राचो मार्गदर्शक) हें ताचें इतिहासीक म्हत्वाचें पुस्तक पंदराव्या शतमानामेरेन भुगोलाचें अधिकृत पुस्तक अशें मानताले. तातूंत पृथ्वीचें वर्णन, देश, खंड तशेंच अक्षांश - रेखाशांसयत ८,००० थळांची वळेरी दिल्या. तातूंत जगाचो एक आनी हेर २६ नकाशे आसात. ताका लागून हो पयलो ॲटलास आनी टॉलेमी हे मानचित्रण कलेचे संस्थापक थरतात.

Tetrabiblos हें ताचें फलज्योतीशावयलें पुस्तक पाठ्यपुस्तक म्हणून वापरताले. Optics ह्या ताच्या पुस्तकांत उजवाडाच्या आविश्कारांची म्हायती आसा. ताणें संगिताचेरHarmonica हो तीन खंडांचो ग्रंथ बरयल्लो.

टॉलेमी हाच्या भोवमानाखातीर चंद्रावयल्या एका व्हडल्या तटान रेवडायल्ल्या मळाक ताचें 'टॉलेमियस' हें नांव दवरलां.

- कों. वि. सं. मं.

## टिटो (जॉझिप ब्रोझ) : (जल्म : २५ मे १८९२ कुमरोवाट्स, क्रोएशिया).

युगोस्लाविया प्रजासत्ताक संघराज्याचो पयलो अध्यक्ष. ताचें मुळावें नांव जॉझिप ब्रोझ. ताचो जल्म एका शेतकामती कुटुंबांत जाल्ल्यान ताचें शिक्षणय चड जावंक नाशिल्लें. सिसाक नगरांत कुलपां तयार करपाच्या एका कारखान्यांत तो काम करतालो. मुखार ताणें धातूकामगार म्हणून काम केलें. ह्या तेंपार ताणें भूगोल, इतिहास, भाशा आनी हेर विशयांचो अभ्यास केलो. ताका शास्त्रीय ग्रंथ, धाडशी विरांच्यो कथा, इतिहास वाचपाचो नाद आशिल्लो. मुखार तो कामगार संघटनांनी वांटो घेवपाक लागलो आनी उपरांत तो सोशल डॅमॉक्रॅटिक पक्षाचो वांगडी जालो. पिरायेच्या एकविसाव्या वर्सा तो झाग्रेबच्या सैन्यांत भरती जालो. पयल्या म्हाझुजांत ऑस्ट्रोहंगेरीचे वटेन झगडटना तो जखमी जालो आनी ताका रशियन सैनिकांनी अटक केली (मार्च १९१५). हे घडणुकेक लागून ताच्यांत खूब बदल जालो. १९१७ त सुटके उपरांत पेट्रग्राडांत ताणें केरेस्की सरकाराआड बोल्शेव्हिकांनी केल्ल्या निदर्शनांत वांटो घेतिल्ल्यान ताका फिनलंडाक पळून वचचें पडलें. पूण पेट्रग्राडाक परत आयल्या उपरांत ताका परत अटक केली. तो बंदखणींतल्यान पळून वचून ऑम्स्क नगरांत राश्ट्रीय तांबड्या पथकाचो वांगडी जालो. उपरांत थंयच पोलका नांवाचे एके रशियन चलयेकडेन तो लग्न जालो.

१९२०त तो आपल्या मायदेशांत आयलो. तेन्ना युगोस्लाव्हियाक स्वातंत्र्य मेळिल्लें. हांगा आयल्या उपरांत रोकडोच तो युगोस्लाव कम्युनिस्ट पक्षाचो वांगडी जालो. पक्षाचेर बंदी घाल्ल्यान आनी ताच्या कार्यकर्त्यांक अटक जाल्ल्यान ताका झाग्रेब सोडून वचचें पडलें. १९२८ त ताका अटक जाली आनी पांच वर्सां बंदखणींत उरलो. १९३४ त बंदखणींतल्यान सुटले उपरांत ताका युगोस्लाव कम्युनिस्ट पक्षाचे मध्यवर्ती समितीचेर वेंचून काडलो. त्याच वर्सा तो मॉस्कोक गेलो. ताणें बॉल्शेविक पक्षाच्या इतिहासाचें अनुकरण केलें. १९३७ त तो युगोस्लाव कम्युनिस्ट पक्षाचो सरचिटणीस जालो. पयलीं ताणें व्हिएनांत आशिल्लें पक्षाचें कार्यालय युगोस्लाव्हियांत हाडलें आनी थळाव्या लोकांक विश्वासांत घेवन पक्ष संघटना घट केली.

१९४१त नाझी सैन्यान युगोस्लाव्हिया घेतलें आनी रशियेचेर घुरी घाली. तेन्ना ताणें टिटो हें नांव घेवन गनिमी पंगड संघटीत केलो आनी विंगडविंगड वंशांच्या आनी धर्मांच्या लोकांक एकठांय हाडून ॲण्टी-फॅसिस्ट नॅशनल लिबरेशन समितिची स्थापणूक केली. ह्या सुमाराक ताच्या व्हड कर्तृत्वाक लागून ताका १९४३त मार्शल ही पदवी दिली. एकसारकीं चार वर्सां झुजले उपरांत निमाणें २० ऑक्टोबर १९४४ दिसा युगोस्लाव्हियाची सुटका करपाक ताका यश आयलें. उपरांत ७ मार्च १९४५ ह्या दिसा तो युगोस्लाव्हियाचो प्रधानमंत्री जालो. १९४६ त ताणें रशियेचे धर्तीचेर आदारील्लें नवें संविधान तयार केलें.

सत्तेर आयल्या उपरांत ताणें खाजगीं उद्देगधंद्यांचें राश्ट्रीयकरण आनी रीतसर अर्थवेवस्थेक सुरवात केली. १९४६ आनी १९४७ वर्सा वॉरसॉ, प्राग, सोफिया, बुडापेस्त, बूखारेस्ट शारांनी वचून ताणें स्टालिनाच्या चेपणाखाला येनासतना उभयपक्षी इश्टागतीच्यो आनी एकामेकांक आदार करपाच्यो कबलाती केल्यो. टिटो स्वतंत्र धोरणान वागता म्हणून १९४८त स्टालिन आनी हेर कम्युनिस्ट फुडाऱ्यांनी ताचेआड बंड करून युगोस्लाव्हियाक कॉमिनफॉम मदल्यान काडून उडयलो. टिटोक ताच्या पक्षाचें आनी जनतेचें पुराय फाटबळ मेळिल्लें. ताका लागून रशियेच्या चेपणाक ताणें यशस्वीपणान तोंड दिलें. रशियेन चेकोस्लोव्हाकियाचेर केल्ल्या आक्रमणाचोय ताणें खर उतरांनी निशेध केल्लो. रशियेच्या चेपणाखाल येवन हे कॉमिनफॉर्मांत आस्पाव आशिल्ल्या हेर देशांनीय युगोस्लाव्हियाचेर बंदी घाल्ली. ह्या वेळार अमेरिकेन ताका आदार दिल्लो. १९५३ त ताणें ग्रेट ब्रिटन, ब्रह्मदेश, भारत, इजिप्त ह्या देशांक मेळून तांचेकडेन इश्टागतीचे संबंद जोडले. जवाहरलाल नेहरू आनी नासेर हांच्या सहकारान ताणें तटस्थ राश्ट्रांचो एक पंगड करून अलिप्ततायवादी परराश्ट्रीय धोरणाचो पुरस्कार केलो. ७ एप्रिल १९५३ दिसा ताणें नवें संविधान तयार केलें. १९६३त ताणें अमेरिकेक भेट दिली. साम्राज्यवादाक विरोध आनी विकसनशील राश्ट्रांक आदार करप हें ताचें धोरण आशिल्लें. रशिया आनी युगोस्लाव्हिया हांचे संबंद सुदारले उपरांत १९५५त क्रुश्चेव हाणें बॅलग्रेडाक आनी टिटोन मॉस्कोक भेट दिली.

ताणें कामगारांचें हीत राखचेखातीर व्हड उद्देगधंद्यांनी कामगार समित्यो नेमल्यो. युगोस्लाव्हियांत सगळ्या मळांचेर उदरगत घडोवन हाडपाक ताणें म्हत्वाचो आदार दिलो. निवृत्त जावपाची इत्सा आसून लेगीत १९६१ त ताका परत सवे फावट अध्यक्षपदाचेर वेंचून हाडलो. भारतांत ताका १९७१ त जवाहरलाल नेहरू आंतरराश्ट्रीय सामंजस्याचो पुरस्कार

भेटोवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**टिनबर्जेन, निकोलस :** (जल्म : १५ एप्रिल १९०७, ध हेग).

नामनेचो ब्रिटीश प्राणीविज्ञानीक. ताचें शिक्षण विएन्ना आनी येल विद्यापिठांनी जालें १९३२त ताणें लायडन विद्यापिठाची पदवी मेळयली. एक वर्स आर्क्टिक प्रदेशांत रावले उपरांत तो लायडन विद्यापिठांत व्याख्यातो म्हणून लागलो. दुसऱ्या म्हाझुजामेरेन तो थंयच आशिल्लो आनी तेन्ना वर्सभर (१९३८) ताणें फ्रिश हाचेवांगडा कार्य केलें. म्हाझुजाच्या काळांत तो जर्मनांचो केदी आशिल्लो. ते उपरांत १९४७ मेरेन तो लायडन विद्यापिठांत प्रायोगिक प्राणिविज्ञानाचो प्राध्यापक आनी प्राणिविज्ञान विभागाचो मुखेल आशिल्लो १९४९त मोनजातीचे वागणुकेविशींचो विभाग उबारपाखातीर तो ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत गेलो आनी १९६६ सावन थंय प्राध्यापक म्हणून काम करूंक लागलो.

गांधीलमूस घराकडेन परततना मार्ग कसो सोदतात, हाचो सविस्तर अभ्यास ताणें केल्लो. उपरांत ताणें मुसांच्या समाजीक एकचाराचेर आनी कुरवांचें संशोधन केलें. ताका लागून कुरवांचें प्रणयाराधन आनी मैथुना वेळावयलें वर्तन हाचेविशींचे म्हत्वाचे निश्कर्श ताणें काडले. टिनबर्जेन हाणें अशेंय दाखयलें, शिकून आयिल्लें वर्तन हें सहजप्रवृत्त वर्तनाइतलेंच म्हत्वाचें आसता. परभक्षी आनी भक्ष्य हांच्यांतल्या आंतरक्रियांचो ताणें खाशेलो अभ्यास केलो आनी कांय निश्कर्श काडले, ते अशे : मोनजातीक आपले जातीचे जीव मारप पसंत आसना. खास करून जेन्ना भक्ष्याच्या मुखामळावयलो भाव शरणांगतीचो आसता, तेन्ना भक्षी भक्ष्याक मारपापसून परावृत जाता. हेरांच्यो आनी स्वताच्यो कल्पना तपासून पळोवपाखातीर ताणें नव्यो सुटसुटीत पद्दती सोदून काडल्यो, हें ताचें म्हत्वाचें कार्य जावन आसा.

सैमीक स्थितींत मोनजातीचे वागणुकेचो अभ्यास करपी शास्त्रांत म्हळ्यार वर्तनशास्त्रांत ताणें मोलादीक सुदारणा करून वर्तनशास्त्रांत उदरगत घडोवन हाडली. व्यक्तिगत आनी समाजीक वर्तनांच्या तरांचें संघटण आनी त्यो सोदून काडिल्लेखातीर ताका कार्ल फ्रिश आनी कॉनरॅड लॉरेण्ट्स हांचेवांगडा १९७३ वर्साचो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञान विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं - Eskimo Land (१९३५), The Study of Instinct (१९५१), Social Behaviour in Animals (१९५३), Curious Naturalists (१९५९), Animal Behaviour (१९६५), Signals for Survival (१९७०), The Animal in its world (१९७२).

- कों. वि. सं. मं.

**टिनबर्जेन यान :** (जल्म : १२ एप्रिल १९०३, ध हेग).

नामनेचो डच अर्थशास्त्रज्ञ आनी अर्थशास्त्रांतल्या पयल्या नोबॅल पुरस्काराचो सहविजेतो. ताणें १९२९त लंडन विद्यापिठाची डॉक्टरेट मेळयली. १९२९ त टायन योहाना डे विट हिचेकडेन ताचें लग्न जालें. १९२९ - ३६ तशेंच १९३८ - ४५ ह्या काळांत ध हेग हांगाच्या डच सरकाराच्या 'सँट्रल ब्युरो ऑफ स्टॅटिस्टिक्स' हातूंत ताणें काम केलें. १९३६-३८ ह्या काळांत राश्ट्रसंघांत ताणें वेपारचक्र संशोधन तज्ञ म्हणून कार्य केलें. १९४५-५५ ह्या काळांत ध हेग हांगाच्या 'सँट्रल प्लॅनिंग ब्युरो' चो तो संचालक आशिल्लो. १९३३ सावन तो 'रॉटरडॅम स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स' हे संस्थेंत विकास नियोजनाचो प्राध्यापक आशिल्लो. संयुक्त राश्ट्रांचे समाजीक उदरगत संशोधन संस्थेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९५५ सावन वेगवेगळ्या देशांचीं सरकारां आनी आंतरराश्ट्रीय संघटना हांचो सल्लागार म्हणून ताणें कार्य केलें.

टिनबर्जेनान अर्थमितींत मोलाची भर घाल्या. १९३०-३५ च्या सुमाराक ताणें समस्त (Aggregative) अर्थवेवस्थेच्या प्रथिमानांविशीं लेख उजवाडायले. तातूंत अनेकवर्णी गतिक समीकरणांचो वापर केला. त्या उपरांतच्या लेखांत अशा अर्थवेवस्थांचो सांख्यिकीय पद्दतीन अभ्यास केलो. नेदर्लंड्सची अर्थवेवस्था हें टिनबर्जेनान उजवाडायल्लें पयलें पुराय प्रतिमान. हें प्रतिमान खूब घुस्पागोंदळाचें आसून तातूंत २७ समीकरणां आनी ५० परस चड चलपदांचो आस्पाव आशिल्लो. तातूंत डच अर्थवेवस्थेचीं विंगड विंगड खाशेलपणां सांगिल्लीं. त्या प्रतिमानाक लागून संशोधकांक अर्थीक समस्यांचें निराकरण करपी वेगवेगळ्या मार्गांचें मुल्यमापन तशेंच थोडया काळांतलीं विश्लेशणां करप सोंपें जालें. ताचो उपेग राजकीय आनी अर्थीक नियोजन क्षेत्रांनी करप शक्य जालें.

टिनबर्जेन राश्ट्रसंघाचो अर्थसल्लागार आसतना ताणें अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांचे अर्थवेवस्थेचें प्रतिमान तयार केलें. ताचें हें कार्य म्हळ्यार फुडें जगभर व्हडा प्रमाणांत तयार जावपी प्रतिमानांची बुन्याद आनी मुखेल प्रेरणा थारली. फुडें विकसीत जाल्ल्या वेपारचक्र सिध्दांताखातीर तशेंच अर्थीक स्थिरीकरण पद्दतींखातीर आधारी साहित्य त्या प्रतिमानाच्या अभ्यासाक लागून तयार जालें.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत डच शासनान नियोजन, अर्थसंकल्पन आनी अर्थनीत हांचेविशींचीं धोरणां थारायतना टिनबर्जेनच्या अर्थमितीय प्रतिमानांचो उपेग केलो. अर्थीक नियोजनाच्या संदर्भांत अर्थमितीय प्रतिमानांचो वापर करतना टिनबर्जेनच्या ज्या म्हत्वाच्या संकल्पनांचो उपेग जालो, तातूंत लक्ष्यां (Targets) आनी साधनां (Instruments) ह्यो संकल्पना म्हत्वाच्यो आसात. टिनबर्जेनान ह्याच संकल्पनांचो वापर अर्दविकसीत देशांखातीर विकास प्रतिमानां तयार करपाखातीर केलो.

वेपारचक्रांचें गणितीय विश्लेशण, उत्पन्न वांट्याचो सिद्धांत, अर्थीक उदरगत सिद्धांत ह्या विशयांचेर टिनबर्जेन हाणें म्हत्वाचें बरप केलां. अर्थीक प्रक्रियांखातीर वेव्हारीक प्रतीमानां विकसीत केल्ल्याच्या मोलादीक वावराखातीर ताका १९६९ वर्साचो अर्थशास्त्र विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फ्रिश राग्नार हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं -On the theory of Economic Policy (१९५२), Economic Policy : Principles and design (१९५६), Selected Papers (१९५९), Development planning (१९६८).

- कों. वि. सं. मं.

**टिपऱ्यो :** एक खेळाचें साधन. बारा ते चवदा इंच लांबायेच्यो लाकडाच्यो बडयो कांतून गोल करतात. हांचीं तोंकां तासून अशीर करतात. तांकां टिपऱ्यो म्हण्टात. ह्यो रंगयतात आनी तांकां रंगीत गोंडे बांदतात. फेर धरून नाचतना ताल धरपाखातीरय ह्या टिपऱ्यांचो उपेग जाता.

खूब पुर्विल्लो हो टिपऱ्यांचो खेळ, श्रीकृष्ण गोपींवांगडा खेळिल्ल्यांचीं

वर्णनां आसात. महाराष्ट्रांतल्या संतांनी कृष्णाचे टिपरेचेर अभंग वा पदां रचल्यांत.

ह्या खेळांत धा-बारा वा चड जाण वांटो घेवंक शकतात. नाचतना आपले दावे उजवे वटेंतल्या नाचप्यांच्या टिपऱ्यांचेर आपली टिपरी मारतात. कांय खेपे खेळचे पयलीं दोन-दोन नाचपी एकमेकांसामकार उबे रावतात आनी एकमेकांच्या टिपऱ्यांचेर टिपरी मारतात आनी नाचतात. ह्या नाचाच्यो विंगडविंगड गती आसून, ह्यो करतना तशींच वेगळीं वेगळीं पदां म्हण्टात. ह्या नाचाक व्हड झांज आनी धोलक्याची साथ आसता. कांय खेपे टिपऱ्यांच्या नाचावांगडा नाचपी गोफूय विण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

## टिपू सुलतान

**टिपू सुलतान :** (जल्म : २० नोव्हेंबर १७५०, देवगहळ्ळी, बेंगळूर, कर्नाटक; मरण : ४ मे १७९९, श्रीरंगपट्टण).

म्हैसूरचो एक नामनेचो पराक्रमी राजा. ताचें पुराय नांव शाह बहाद्दर फत्ते अलीखान. संत टिपू मस्तान औलियाचे कृपेन ताचो जल्म जाल्लो. टिपू म्हळ्यार कन्नड भाशेंत वाघ. टिपूच्या स्वभावावयल्यान ताका हें नांव मेळळें आसूंक जाय.



हैदर अलीचो हो पयलो चलो. ताच्या भुरगेपणांतली व्हडलीशी म्हायती मेळना. ताणें मौलवीकडल्यान पारंपरीक शिक्षण घेतलें. तशेंच गाझीखान ह्या अधिकाऱ्याच्या मार्गदर्शनाखाल लस्करी शिक्षण घेतलें.

सुरवातेचीं कांय वर्सां तो हैदरावांगडा झुजांत वांटो घेतालो. तेचपरी स्वतंत्र रित्याय ताणें झुजां केल्लीं. १७७१ त ताणें मराठ्यांचे सेनेवांगडा झूज केलें. १७८१ त सेनापती कर्नल बेली आनी कर्नल ब्रॅथवेट हे दोगूय ताचेर चाल करून आयिल्ले आसतना ताणें दोगांकय हारोवन तांकां बंदी केले. १७८२ त हैदर अलीक मरण येतकच तो म्हैसूरचे गादयेर आयलो.

पयलीं सावन ताची फ्रॅंचांकडेन इश्टागत आशिल्ली. तांच्या आदारान ताणें आपले सैनेक आर्विल्ले रूप दिवपाचो यत्न केल्लो. जेन्ना इंग्रज सेनापती ॲर कूट हाणें टिपूचेर हल्लो केलो तेन्ना फ्रॅंच सेनापती बुसी हाणें टिपूक पालव दिलो. सालबायचे कबलातीप्रमाण हैदर अलीन इंग्लिशांचो जो वाठार घेतिल्लो तो परत करचो अशें थारयल्लें. पूण टिपूक ही गजाल मान्य नाशिल्ल्यान ताणीं टिपूचो बीदनूर हो वाठार घेतलो. तें पळोवन टिपून जनरल मॅथ्यूक धरलो. तेन्ना १७८४त इंग्लिशांक मंगळूरची शांततेची कबलात करची पडली. त्याच वर्सा टिपून नरगुंद आनी कित्तूर ह्या संस्थानांचेर हल्लो करून थंयचे किल्ले घेतले.

ताची ही वाडटी सत्ता पळोवन नाना फडणीस निजामाक वचून मेळळो. ताणीं दोगांयनी टिपूचेर हल्लो करून ताचीं जायतीं ठाणीं हस्तगत केलीं. सावनेर गांवांत ताचें व्हड झूज जालें. तातूंत यश मेळपाक नानान मॅलेट हाका मेळून इंग्लिशांचो पालव मागपाचें थारायलें. तेन्ना १७८७त टिपून मराठयांवांगडा कबलात करून ताका ४८ रुपया खंडणी आनी गजेंद्रगड, बादामी, नरगुंद, कित्तूर हे किल्ले मराठयांक दिवप, अदवानी संस्थान निजामाक दिवप आनी सावनेरकरांचो वाठार ताका परत करप हें थारलें. फुडें मराठ्यांचें सैन्य कर्नाटकांतल्यान वतकच टिपून कित्तूरचो किल्लो परतो हस्तगत केलो.

कॉर्नवालिसान मराठे आनी निजाम हांचेकडेन इश्टागतीची कबलात करून १७९० त टिपूचेर घुरी घाली. टिपून व्हड धिरान ह्या झुजाक तोंड दिवपाचो यत्न केलो. पूण तातूंत ताका व्हडलेंशें यश मेळ्ळें ना. तेन्ना ताणें २३ फेब्रुवारी १७९२ ह्या दिसा श्रीरंगपट्टणांत कबलात केली. तेप्रमाण ताचो अर्दो वाठार आनी तीन कोटी रुपया लुकसाण भरपाय दिवपाचें थारलें. तशेंच ही भरपाय जायमेरेन ताचे दोन भुरगे इंग्लिशांकडेन ओलिस दवरचे पडले. ह्या अपमानास्पद कबलातीक लागून ताका खुबूच तिडक आयली आनी ते तिडकीन ताणें इराण, तुर्कस्तान आनी नेपोलियन हांचेकडेन मेळ घडोवन आपलें दाळें घटमूट करपाचो यत्न केलो.

ताणें कांय फ्रॅंच पलटणीय आपले नोकरेंत दवरल्यो. ताच्या ह्या करण्यांविशीं लॉर्ड वॅलस्लीन ताका जाब विचारलो तेन्ना ताणें तें कानामनार घेतलें ना. तेन्ना वॅलस्लीन निजामाकडेन कबलात केली आनी १७९९ त इंग्लिशांनी टिपूआड झूज उबारलें. वॅलस्लीन ताचीं कुर्ग, मळवळ्ळी सारकीं कांय ठाणीं हस्तगत केलीं. फुडें श्रीरंगपट्टणाक ताणीं घेराव घालो. थंय टिपून जिवांत जीव आसमेरेन मोटया धिरान झूज दिलें. निमाणें गुळी लागून ताका मरण आयलें.

उपरांत इंग्लिशांनी थंय लुटालूट करून टिपूचें एक कोटी स लाख रुपये उत्पन्नाचें राज्य घेतलें. तातूंतलो कांय वांटो ताणीं निजामाक दिलो आनी कांय वांटो मूळच्या चामराज वोडेयर हाच्या वंशजाक दिलो. टिपूच्या भुरग्यांक आनी सोयऱ्यांक २४,००० होनांचो मुलूख लावन दिलो. फुडें वेळ्ळूरच्या बंडांत टिपूच्या भुरग्यांचो हात आसा अशें सांगून इंग्लिशांनी तांची जहागीर खालसा केली आनी ताचें पुराय राज्य घेतलें.

टिपूच्या घरगुती जिविताविशीं थोडी भोव म्हायती मेळटा. ताका दोन बायलो आनी जायतीं भुरगीं आशिल्लीं. तातूंत १२ चले आशिल्ले. त्या काळांतल्या दक्षिण भारतांतल्या राजकर्त्यामदीं टिपू सुलतान हो एकूच राजा आपलें जिवीत भर सतत इंग्लिशांक विरोध करीत रावलो. इंग्लीश लेखकांच्या मतान टिपू हो धर्मीक, दुश्ट आनी अविश्वासू आशिल्लो. पूण ताचो राजकारभार आनी धैर्य पळेल्यार ताचेवयल्या कांय आरोपांचो दुबाव येता. ताच्या दरबारांत जायते हिंदू उंचेल्या स्थानांचेर आशिल्ले. ताणें आपल्या राज्यकारभारांत चोख वेवस्था दवरून प्रांतांचीं नांवां बदलून घेतिल्लीं. स्वताचीं नवीं मापां, वजनां आनी नाणीं तयार केल्लीं. तशेंच स्वताची कालगणना सुरू करून ताणें तातुंतलीं वर्सां आनी म्हयने हांकां नवीं नांवां दिलीं.

मुलकी आनी लश्करी खात्यांनी ताणें जायत्यो सुदारणा घडोवन हाडल्यो. ताका कुशळटाय आनी साहित्याची आवड आशिल्ली. फार्सी, मराठी, उर्दू आनी कन्नड ह्यो भासो ताका येताल्यो. ताणें धाव्या

शतमानासावन ताच्या काळामेरेनच्यो जायत्यो कलाकुसरीच्यो वस्तू, हातबरपांतले ग्रंथ, कुराणाचे अणकार, तवारिखा आदी साहित्य एकठांय केल्लें. सद्या हो संग्रह लंडन, चेन्नई आनी कलकत्ता शारांनी आसा. टिपून 'फर्मान बनाम अलीराजा' आनी 'फतह-उल्-मुजाहिदैनत' ह्या नांवांचे ग्रंथ बरयल्ले अशें म्हण्टात. ताणें आपल्या नांवान खुतबापठण करपाची चाल सुरू केल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

## टिसेलियस, आर्ने विल्हेम काउरिन : (जल्म : १० ऑगस्ट १९०२, स्टाकहॉम; मरण : २९ ऑक्टोबर १९१७, उप्साला).

नामनेचो स्विडीश जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ताचें उचेलें शिक्षण उप्साला विद्यापिठांत जालें. १९३० त ताणें रसायनशास्त्रांतली डॉक्टरेट मेळयली. उप्साला विद्यापिठांतूच ताणें टी. स्व्हेडबॅरी हाचो मदतनीस म्हणून १९२५-३२ ह्या काळांत काम केलें आनी १९३०-३८ त तो रसायनशास्त्राचो व्याख्यातोय आशिल्लो. १९३४-३५त ताणें अमेरिकेंतल्या प्रिन्स्टन विद्यापिठांतले इन्स्टिट्यूट ऑफ अॅडव्हान्सड स्टडीज हे संस्थेंत संशोधन केलें. १९३७ त उप्साला विद्यापिठांत परत वतकच ताका जीवरसायनशास्त्राचो प्राध्यापक नेमलो आनी ताच्या विभागाखातीर स्वतंत्र संस्था स्थापन केली. टिसेलियस हाच्या फुडारपणाखाल हे संस्थेन जीवरसायनशास्त्रांत उपेगी थारपी कितल्याशाच पद्दतींचो विकास केलो आनी तातूंत सुदारणाय केल्यो.

टिसेलियस हाचें सुरवातीचें कार्य विद्युत् संचारणाविशींचें आशिल्लें.ज्या वेळार व्हडले रेणू द्रवांत हुमकळपी अवस्थेंत आसतात, त्या वेळार तांचेर विद्युत् भार आसता आनी विद्युत् क्षेत्राचे दिशेप्रमाण ते मार्गक्रमण करतात. ह्या मार्गक्रमणाची गती रेणूंच्या वस्तूमानाचेर आदारून आसता. डॉक्टरेट पदवेखातीर सादर केल्ल्या प्रबंधांत ताणें प्रथिनांच्या विद्युत् संचारणाच्या अभ्यासाखातीर उपेगी आशिल्ले पद्दतीची विस्कटावणी केल्ली. हे पद्दतीन पदार्थांचे रेणू वेगळे करपावांगडाच तांचें मेजपूय करूं येता. हे पद्दतीचो उपेग ताणें आनी ताच्या वांगड्यांनी रक्तरसांतल्या प्रथिनांचो अभ्यास करपाखातीर, तशेंच जीवरसायनशास्त्रांतल्यो हेर समस्या सोडवपाखातीर केलो.

जीवरसायनशास्त्रांत ही पद्दत खूब म्हत्वाची थरल्या. पूण कांय जैव रेणू हे विद्युत् संचारण पद्दतीक फावोसो प्रतीसाद दिनात. हेखातीर ताणें वेचीक अधिशोशण पद्दत वापरली. हे पद्दतीन रेणू शुद्ध अवस्थेंत मेळोवं येतात. तेखातीर ताणें वर्णलेखन पद्दतीचो खासा अभ्यास केलो. ही पद्दत प्रथिनांच्या विश्लेशणाखातीर उपेगी पडटा. ॲमिनो आम्लां, पॅप्टायडां, शर्करा हांच्या संशोधना खातीर ताणें ही पद्दत वापरली. विद्युत् संचारण आनी अधिशोशण विश्लेशण हांचेविशीं ताणें केल्ल्या संशोधनाखातीर आनी खास करून रक्तरसांतल्या प्रथिनांच्या जटिल स्वरूपाविशीं ताणें लायिल्ल्या सोदाखातीर टिसेलियस हाका १९४८ वर्साचो रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत टिसेलियस हाणें स्विडनांतल्या विज्ञानीक संशोधनाची पुनर्घटना करपाचो मोलादीक वापर केलो. स्विडीश कर्करोग संस्थेचे संशोधन समितीचो१९५१-५५त तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९४७त तो नोबॅल फाउंडेशनाचो उपाध्यक्ष आनी १९६० त अध्यक्ष जालो. १९४६ सावन ताणें रसायनशास्त्राचे नोबॅल समितीचेर वांगडी म्हणून काम केलें.

- कों. वि. सं. मं.



## टिळक, लोकमान्य बाळ गंगाधर : (जल्म : २३ जुलय, १८५६ चिखली, रत्नागिरी, महाराष्ट्र; मरण : १ ऑगस्ट १९२०).

भारतीय स्वातंत्र्यसंग्रामाच्या इतिहासांतलो श्रेश्ठ फुडारी, खर



राश्ट्रवादी, देशभक्त, नामनेचो संशोधक, गणिती आनी भारतीय तत्त्वज्ञानाचो भाश्यकार. ताचें मूळ नांव केशव. पूण बाळ ह्या नांवानूच ताका वळखताले. ताच्या बापायचें नांव गंगाधरपंत आनी आवयचें नांव पार्वतीबाई. गंगाधरपंत पुण्यांत,मराठी शाळेंत शिक्षकाची नोकरी करतालो. बाळ गंगाधर टिळकाचें परंपरीक संस्कृत अध्ययन घरांतूच जालें. १८६६ वर्सा गंगाधरपंताची बदली पुण्याक जाली. ताका लागून टिळक आपल्या आवय-बापायवांगडा पुण्याक आयलो. पुण्याक येतकच थोड्याच दिसांनी टिळकाचे आवयक मरण आयलें आनी गंगाधरपंताची परतून ठाण्याक बदली जाली. पूण टिळक पुण्यांत रावनूच १९७२ वर्सा मॅट्रिकेची परीक्षा पास जालो. ताचेपयलीं १८७१ वर्सा, कोंकणांतल्या लाडघार गांवच्या बल्लाळ कुटुंबांतले सत्यभामाबाईकडेन ताचें लग्न जालें. तिचें कुळारचें नांव तापीबाई. टिळकाक तीन धुवो आनी तीन पूत अशीं स अपत्यां जालीं.

१८७३ वर्सा टिळकान डॅक्कन कॉलेजांत प्रवेश घेतलो आनी १८७६ वर्सा बी.ए. ची परिक्षा गणित विशय घेवन पयल्या वर्गांत पास जालो. बी.ए. जातकच ताणें कायद्याचो अभ्यास करून १८७९ वर्सा तो एलएल.बी. ची परिक्षा पास जालो.

गंगाधरपंताचो संस्कृताचो व्यासंग आनी अध्यापन वेवसायाक लागून, ल्हानपणांतूच टिळकाच्या मनाचेर हिंदू आचार-विचाराचे खोलायेन संस्कार जाल्ले. फुडें डॅक्कन कॉलेजांत शिकतना गोपाळ गणेश आगरकर हाचेकडेन ताची इश्टागत जाली. मिल आनी स्पॅन्सर ह्या अस्तंती विचारवंतांचो ह्या दोगांयचेर खूब प्रभाव पडलो. आपले भोंवतणचे परिस्थितीचो, समाजाचे आनी देशाचे अवस्थेचो गंभीरपणान ते विचार करूंक लागले. न्या. रानडे हाणें विंगड विंगड समाजीक संस्था निर्माण करून समाज जागृतायेचें कार्य चलयल्लें, ताका लागून टिळक आनी आगरकराचो आपलो देश परकी राजसत्तेसावन मुक्त करूंक जाय हो विचार पक्को जालो. ते खातीर आपल्या समाजाक योग्य तरेन शिकोवंक जाय, परकी सरकारच्या शिक्षणसंस्थांनी तसलें शिक्षण मेळचेंना, देखून

पयलीं शिक्षणसंस्था सुरू करपाक जाय ह्या हेतान ताणीं कार्याक सुरवात केली.

१ जानेवारी १८८० दिसा, पुण्यांत विष्णुशास्त्री चिपळुणकार हाच्या फुडारपणाखाला ताणें 'न्यू इंग्लीश स्कूल' ह्या विद्यालयाची स्थापणूक केली. शाळा कॉलेजांनी घेवपाच्या शिक्षणावांगडा, भायल्या व्हड समाजाक लेगीत शिक्षण दिवन जागृत करप गरजेचें हे जाणविकायेन, आगरकराक घेवन टिळकान १८८१ वर्सा मराठींतल्यान 'केसरी' आनी इंग्लिशींतल्यान 'मराठा' हीं खबरांपत्रां सुरू केलीं. आगरकर 'केसरी' चो आनी टिळक 'मराठा' चो संपादक आशिल्लो. नेमाळ्यांवतीन लोकशिक्षण, राजकीय जागृताय आनी शासकीय अन्यायाचो प्रतिकार हें ताचें इतिहासीक कार्य हांगासावन सुरू जालें. सुरवातेकूच ताणीं, कोल्हापूरच्या छत्रपतींच्या वारसाचेर ब्रिटीश रेसिडॅंट आनी त्या संस्थानाचे कांय अधिकारी मेळून करपी अन्यायाक वाचा फोडपाचें कार्य ह्या दिसाळ्यांतल्यान केलें. हातूंत उजवाडा आयिल्ल्या लेखांनी बदनामी जाली म्हणून दिवाण माधवराव बर्वे हाणें टिळक, आगरकराचेर फिर्याद केली. दोगांयकूय चार म्हयन्यांची ख्यास्त जावन डोंगरीचे बंदखणींत दवरले. २६ ऑक्टोबर १८८२ दिसा तांचीं सुटका जाली.

१८८२ वर्सा विष्णुशास्त्रीक मरण आयलें. मजगतच्या काळांत टिळक आनी आगरकराचे वैचारीक मतभेद जाले. पयलीं समाजीक सुदारणा करपाचो आगरकराचो आग्रो टिळकाक मान्य नाशिल्लो. ताका आपली सगळी शक्त रायकीय जागृतायेचेर आनी ब्रिटीश सत्तेआडच्या उठावाचेर केंद्रीत करपाची आशिल्ली. स्वाभिमान, उमेद, स्वराज्यनिश्ठा होच राश्ट्राचो खरो आत्मो वा जीव आशिल्ल्यान थंय समाजीक सुदारणा आसताच, अशें टिळकाचें मत आशिल्लें. राश्ट्राची समाजीक उदरगत जावंची न्हय अशें टिळकाचें म्हणणें नाशिल्लें, पूण ती राजकीय उदरगतीन आनी स्वाभिमानान जावंक जाय अशें टिळकाक दिसतालें. आगरकराची भुमिका हाचे सामकी उरफाटी आशिल्ली. समाजीक सुदारणेबगर देश स्वातंत्र्याक पात्र जावंचो ना, देखून पयलीं समाजांतल्यो चाली-रिती, अज्ञान, अंधश्रद्धा, पाप-पुण्याच्यो कल्पना ह्या पाशांतल्यान मुक्त जावंक जाय, जातीभेद उरूंक जायना,अशें आगरकराचें मत आशिल्लें. परकी सरकारान लोकमताची पर्वा करिनासतना सुदारणेखातीर योग्य ते कायदे करूंक जाय अशेंय आगरकराचें म्हणणें आशिल्लें जाल्यार आमची सुदारणा आमीच करतले, परकी सत्तेची धवळाधवळ आमच्या समाजीक वा धर्मीक गजालींनी जावंची न्हय. पूण लोकमत अनुकूल आसून, धर्मवचनांविशीं तडजोड जाता जाल्यार असलो कायदो करपाक टिळकाक मान्य आशिल्लें.

१८८४ वर्सा वॅडरबर्न, वर्ड्स्वर्थ, मंडलिक, तेलंग, दांडेकर, य.मो. केळकर, भांडारकर हांच्या आदारान टिळक - आगरकरान डॅक्कन एज्युकेशन सोसायटीची स्थापणूक केली. १८८५ वर्सा हे संस्थेवतीन फर्ग्युसन म्हाविद्यालयाची स्थापणूक केली. टिळक गणित आनी संस्कृत विशय शिकयतालो. फुडें संस्थेच्या धोरणांविशीं टिळकाचे मतभेद जाले आनी ताणें राजिनामो दिलो. उपरांत राजकारण हेंच आपलें कार्यक्षेत्र थरोवन, केसरी आनी मराठा ह्या पत्रांचो संपादक ह्या नात्यान कामाक सुरवात केली.

केसरी आनी मराठा हातूंत तेजिश्ट अशे लेख बरोवन तशेंच प्रसंग अनुरूप अशीं भाशणां दिवन, ताणें प्रभावीपणान लोकजागृतायेचें कार्य केलें. ब्रिटीश सरकाराच्या राज्यकारभारांतले दोश आनी अन्याय हांचेर दिसाळ्यांतल्यान टिका करून ताणें कायद्याची शीम पयलीं सांबाळ्ळी. प्रांतिक परिशदो आनी कॉंग्रेसीच्या कार्यांत वांटो घेवन ताचें स्वरूप जहाल राश्ट्रवादी केलें. जनतेच्या मनांत देशाभिमान आनी स्वातंत्र्यप्रेम चेतावन, स्वातंत्र्याखातीर संघर्श करपाक लोकांक तयार करपाचो यत्न केलो. 'स्वराज्य हो म्हजो जल्मसिद्ध हक्क आनी हांव तो मेळयतलोंच' हे भुमिकेमेरेन लोकांक व्हरपाच्या कार्याचो टिळकाचो मुखेल हेतू आशिल्लो.

डॅक्कन एज्युकेशन संस्था सोडटकच १८९०-९७ ह्या काळांत टिळकान कितलीशींच विंगड विंगड कार्यां केलीं. देखीक - १) संमतिवयाच्या कायद्याक विरोध २) ग्रामण्य प्रकरण ३) रमाबाईचें शारदासदन ४) हिंदु-मुसलमान लोकांभितर उप्रासतले दंगे सोडोवन लोकजागृताय करप भौशीक समाजकार्य आनी हेर. लोकजागृतायेचीं साधनां म्हणून गणपती आनी शिवजयंती ह्या उत्सवांक भौशीक रूप दिवपाची कल्पना मुखार आयली. राश्ट्रीय जागृताय करप, स्वातंत्र्याकांक्षा वाडोवप, म्हापुरसांचें स्मरण करप आनी धर्म-संस्कृती हांचें ज्ञान सामान्य लोकांक करून दिवप हें ह्या उत्सवांचे मुखेल हेत टिळकान केसरी नेमाळ्यांत उजवाडायले.

१८९४ वर्सा मुंबयच्या विश्वविद्यालयाच्या सिनेटाचेर टिळकाची नेमणूक जाली. ह्याच वर्सा ताणें, आय. सी. एस. ची परीक्षा इंग्लंडाभाशेन भारतांतूय घेवची असो सरकाराक अर्ज केलो. १८९५ वर्सा टिळक मुंबय लेजिस्लेटिव्ह काउन्सिलाचेर वेंचून आयलो. त्याच वर्सा पुण्यांतली नामनेची सभा आपल्या हातांत घेतली आनी हे सभेच्या तीन म्हयनाळ्यांत 'डिसॅंट्रलायझेशन ऑफ फायनान्स' हो लेख विस्तारान बरयलो. १८९६ वर्सा दुकळ आनी प्लेग ह्या दुर्येसांच्यो धामी अशीं दोन संकश्टां पुणें आनी महाराश्ट्रांतल्या कांय जिल्ह्यांचेर आयलीं. दुकळ निवारणाखातीर सरकाराचे कांयच यत्न नाशिल्ले. पूण प्लेगाची धाम निवारण करपाच्या निमतान ब्रिटीश झुजारी घराघरांनी वचून अत्याचार करपाक लागले. त्या वेळार टिळकान एके वटेन दुकळ निवारणाचें कार्य आनी दुसरे वटेन सरकाराचेर खर टिका करपाक सुरवात केली. फॅमिन रिलीफ कोड ह्या कायद्याक धरून सरकाराक ताच्या कर्तव्याची जाणविकाय दिवन, ब्रिटीश सैनिकांक शिटकावणी दिली. लोकांकूय आपल्या न्याय गाराण्यांची दाद मागून घेवपाक आवाहन केलें. दुकळ पिडेस्त लोकांखातीर सवाय धान्याचीं दुकानां, भौशीक दवाखाने सुरू केले. ब्रिटीश शासनाक टिळकाचो विरोध जाणवपाक लागलो. तो मोडून काडपाच्या हेतान १८९८ वर्सा 'केसरी' तले लेख उचांबळाय निर्माण करपी आशिल्ल्याचें निमित्त करून टिळकाचेर राजद्रोहाचो खटलो भरलो. ब्रिटीश न्यायालयान टिळकाक दोशी थारायलो आनी ख्यास्त फर्मायली. ६ सप्टेंबर १८९८ वर्सा टिळकाची सुटका जाली. टिळकान दुकळांत आनी प्लेगाचे धामींत केल्ली लोकसेवा, ताची निर्भय वागणूक, ताची विद्वता, विंगड विंगड चळवळींवतीन लोकसंग्रह करपाचें सामर्थ्य अशा कितल्याशाच गुणांखातीर लोकांनी आनी कार्यकर्त्यांनी टिळकाक 'लोकमान्य' ही पदवी दिली. तेन्नासावन टिळकाचो उल्लेख सगळेकडेन लोकमान्य टिळक असोच जावपाक लागलो.

१८८९ वर्सासावन, अखिल भारतीय राश्ट्रीय कॉंग्रेस हे संस्थेकडेन टिळकाचो संबंद आयलो. ४ जुलय १८९९ ह्या दिसा 'पुनश्च हरिः ॐ।' हो केसरींत अग्रलेख बरयलो. टिळकान लॉर्ड कर्झनाचे कारकीर्दीचेर, ताणें

शिक्षण संस्थांचेर लादिल्ल्या बंधनांचेर खर टिका केली. ह्या अदमासाक, ताईमहाराज प्रकरणांत फटीची गवाय आनी फटीचो दस्तऐवज सादर केलो असो आरोप जाल्ल्यान टिळकाक खूब मनस्ताप सोसचो पडलो. पूण उपरांत ताचोच विजय जालो.

२० जुलय १९०५ दिसा लॉर्ड कर्झन हाणें बंगालची फाळणी जाहीर करतकच सगळो देश उचांबळीत जालो आनी उग्र आंदोलन सुरू जालें. टिळकान बंगालांतले चळवळीक फाटबळ दिलें आनी स्वदेशी, बहिश्कार, राश्ट्रीय शिक्षण आनी स्वराज्य हांचो पुरस्कार केलो. ही फाळणी आडची चळवळ दिसानदीस खर जायत आसतनाच हेवटेन राश्ट्रीयसभेंत नेमस्त आनी जहाल हांचेमदीं मतभेद जाले आनी हे संस्थेंत फूट पडली. हे फाटाफुटी उपरांत टिळकान 'देशाचे दुर्दैव' आनी 'हे उपाय टिकाऊ नाहीत' हे 'केसरी' त दोन अग्रलेख बरयले. ताका लागून टिळकाक २४ जून १९०८ ह्या दिसा मुंबयंत परतून राजद्रोहाच्या आरोपाखाल अटक करून ताचेर खटलो भरलो. ज्युरींत सात इंग्रज आनी दोन हिंदी मनीस आशिल्ले. सात आड दोन मतांनी, ज्युरीन टिळकाक दोशी थारावन स वर्सां काळ्या पाण्याची आनी रू. १००० दंड भरपाची ख्यास्त फर्मायली. काळ्या पाण्याची ख्यास्त दिवपाखातीर टिळकाक ब्रह्मदेशांतले मंडालेचे बंदखणींत दवरलो. ही ख्यास्त भोगता आसतनाच १९१२ वर्सा टिळकाची बायल सत्यभामेक मरण आयलें. ह्याच काळांत ताणें 'गीतारहस्य' हो मोलादीक ग्रंथ बरयलो. उपरांत १५ जून १९१४ दिसा टिळकाची सुटका जाली.

कशे तरेची राज्यवेवस्था योग्य थारतली, हेविशीं विस्कटावणी करून 'हिंदी स्वराज्यसंघ' ह्या विशयाचेर १९१५ वर्सा टिळकान चार लेख बरयले. १९१५ वर्सा ॲनी बेझंट हिणें मद्रासाक होमरूल लीग हे संस्थेची स्थापणूक केल्ली. १ मे १९१६ दिसा होमरूल लिग वा 'हिंदी स्वराज्यसंघ' टिळकान बेळगांवां सुरू केली. होमरुलची चळवळ टिळकान आनी बेझंटबाईन जोडयां चलयली. १९१६ वर्सा लखनौ शारांत जाल्ल्या काँग्रेस अधिवेशनाच्या वेळार टिळक परतून काँग्रेसींत गेलो. ह्याच आधिवेशनांत टिळकाच्या यत्नांक लागून काँग्रेस लीग कबलात जाली आनी काँग्रेस लीग संयुक्त अधिवेशन जावन स्वराज्याचो मागणेचो थाराव एकमतान मंजूर जालो. मार्च, १९१८ त टिळक, होमरूल लीगाचें शिश्टमंडळ घेवन इंग्लंडाक गेलो. मजगतीं, जून १९१६ त, पिरायेचीं ६० वर्सां पुराय केल्लेखातीर एका व्हड सुवाळ्यांत टिळकाक एका लाखाची थैली भेटयली. ती टिळकान राश्ट्रकार्याखातीर वापरपाची घोशणा केली.

सर व्हॅलेंटायन चिरोल हाच्या 'इंडियन अनरॅस्ट' ह्या १९१५ वर्सा उजवाडायल्ल्या ग्रंथाविशीं टिळकान अब्रुनुकसाणीची फिर्याद केल्ली. तिचो फेब्रुवारी १९१९ त टिळकाआड निकाल लागलो. ह्या खटल्यांत टिळकाक खूब नुकसान जालें. पूण ह्याच ग्रंथान 'फादर ऑफ इंडियन अनरॅस्ट' (भारतीय असंतोशाचो जनक) हें मानादीक नांव मेळोवन दिलें.

१० जून १९१८ दिसा, गव्हर्नरांनी मुंबयंत, झूज परिशद घेतली तेन्ना थंय टिळक हाजीर आशिल्लो. लॉर्ड विलिंग्टन हाणें आपल्या प्रास्ताविक भाशणांत होमरूल मागण्यांचेर टिका करतकच टिळकान भाशण केलें आनी म्हळें हिंदुस्थानाचेर केन्नाय आक्रमण जालें जाल्यार हिंदी लोक देहत्याग करतले पूण स्वराज्य, स्वदेश आनी संरक्षण हांची साखळी केन्नाच मोडचेनात. विलिंग्टन हाणें टिळकाक थांबयलो, त्यावेळार टिळकान सभात्याग केलो.

उपरांत होमरूल लीगाचे पुणें-परिशदेंत थारायल्लेप्रमाण लो. टिळकान काँग्रेस डॅमॉक्रॅटीक पक्षाची स्थापणूक केली. काँग्रेसीकडेन एकनिश्ठ रावप आनी लोकशायेचेर श्रद्धा आसप, ह्या दोन तत्त्वांचेर हो पक्ष आदारिल्लो. टिळकान ह्या पक्षाची राजकीय भुमिका, २० एप्रिल १९२० दिसा ताणें उजवाडायल्ल्या जाहीरनाम्यांत दिल्या. भारतान राश्ट्रकुलांत रावचें, लोहमार्गाचें राश्ट्रीयीकरण जावचें, भाशावार प्रांतांची रचणूक करची, शेतकामगारांचें उण्यांत उणें वेतन थारावचें अशो सुचवण्यो त्या जाहीरनाम्यांत आसात.

राजकीय कार्यावांगडाच टिळकाचीं समाजीक कार्यांय चालू आशिल्लीं. सुरत काँग्रेसी उपरांत ताणें सोऱ्या बंदीची चळवळ सुरु केली. ताचेर लेख बरोवन व्याख्यानांय दिलीं. 'पैसाफंड' ही संस्था चालीक लावन समाजीक हिताखातीर लाखांनी रुपयांचो निधी एकठांयलो. टिळकान आपलें चडशें लिखाण 'केसरी' आनी 'मराठा' ह्या नेमाळ्यांतल्यानच केलें. ताचें स्फुटलिखाण खूब थोडें आसा. संस्कृत आनी इंग्लीश वाङ्मयाचो टिळकान खोलायेन अभ्यास केल्लो. ह्या विशयांचो ताचो व्यासंग खूब व्हड आशिल्लो. भारतीय तत्त्वज्ञान हो ताचो आवडीचो विशय. राजकीय क्षेत्रांत काम करतना, वेळ मेळटा तेन्ना बंदखणींत लेगीत टिळकान कांय ग्रंथ बरयले. ताचे चडशे ग्रंथ संशोधन करून बरयल्ले आसात. 'गीतारहस्य', 'ओरायन', 'आर्क्टिक होम इन ध वेदास' आनी 'वेदांगज्योतिष' हे ताचे कांय मुखेल ग्रंथ आसात.

टिळकाच्या 'श्रीमद्‌भगवद्‌गीतारहस्य' वा 'कर्मयोगशास्त्र' ह्या ग्रंथांत ताणें गीतेचें स्वतंत्रपणान पारायण करून ताका गीतेचो जो बोध जालो, ताची विस्कटावणी केल्या. १८९२ चे लंडनचे ओरिएंटल परिशदेखातीर टिळकान 'ओरायन' हो संशोधनात्मक प्रबंध बरयलो. हातूंत ताणें वेदाचो कालनिर्णय हो विशय हाताळ्ळा. मॅक्स म्युलरान जो वेदांचो काळ थारायला तो भाशीक संशोधनाचेर थारायल्ल्यान तो सारको न्हय अशें टिळकाचें मत आशिल्लें. तेखातीर टिळकान दैवतशास्त्र, भाशाशास्त्र, संहिता आनी ब्राह्मणे हातूंतले ज्योतिशशास्त्रा विशींचे सगळे संदर्भ एकठांय करून ज्योतिशाच्या गणितान वेदांचो काळ सुमार इ.स. पयलीं ४५०० वर्सां हो थारायलो. 'आर्क्टिक होम इन ध वेदास' ह्या ताच्या येरवडयाचे बंदखणींत बरयल्ल्या ग्रंथांत ताणें आर्यांचें मूळस्थान हें उत्तर ध्रुवाच्या प्रदेशांतच आसूंक जाय अशें वेदांतल्या ऋचांच्या आदारान मांडलां. हो ग्रंथ १९०३ वर्सा उजवाडा आयला.

– को. वि. सं. मं.

**टी.बी. (क्षयरोग / बारीक जोर) :** एक वशाचो रोग. तो चड करून मनशाच्या पुलमांवांनी जाता. पूण कुडीच्या खंयच्याय अवयवाक तो जावंक शकता. आमच्या देशाच्या भौशीक भलायकेच्या मळावेल्या रोगांतलो हो एक मुखेल रोग जावन आसा.

खूब पुर्विल्ल्या काळासावन मनशाक हो रोग पिडीत आयला. इ. स. आदीं ५००० वर्सां पयलीं लेगीत ह्या दुयेंसाची पिडा मनशाक जाल्ली हाचे पुरावे इतिहासांत मेळटात.

१८८२ वर्सा रॉबर्ट कॉख ह्या शास्त्रज्ञान सोद लायलो की हें दुयेंस एका खाशेल्या जंतूक लागून जाता. ताणें ताचें नांव 'ट्युबरकल बेसिलस'

अशें दवरलें. देखून ह्या दुयेंसाक 'ट्युबरक्युलोसिस' (टी. बी.) अशें म्हण्टात. ह्या जंतूचें पुराय नांव 'मायकोबॅक्टीरियम ट्युबरक्युलोसिस' आसून, तो सामको ल्हान आसता. सूक्ष्मदर्शक यंत्रानूच ताका पळोवं येता.

हो रोग खंयचेय पिरायेच्या मनशाक जावंक शकता. दादल्यांभितर ह्या रोगाचें प्रमाण बायलांपरस मातशें चड आसता (३:१). भुरग्यांक योग्यवेळार ह्या दुयेंसाचें वखद पडलेंना जाल्यार जंतू तांच्या रगतांत पातळून भयंकर परिणाम जावं येतात. अर्थीक दुर्बळकायेक लागून कुपोशण जाता अशा मनशांक आनी बुरशेपणान रावपी लोकांक, तशेंच वारें खेळनाशिल्ल्या घरांनी रावतल्या लोकांक ह्या रोगाची बादा चड बेगीन जाता.

पुलमांवांत टी. बी. जाल्ल्या मनशाचे थुकयेंत हे जंतू आसूंक शकतात. असो टी. बी. जाल्लो मनीस जेन्ना खांकता वा शिंकता तेन्ना हे जंतू थुकयेच्या फवाऱ्या वांगडा भायर येतात आनी थुकयेचे बारीक-बारीक थेंब धुल्लावांगडा वाऱ्यान पातळटात. तशेंच ते म्हऱ्यांत आशिल्ल्या निरोगी मनशाच्या स्वासा वांगडा ताच्या पुलमांवांत वतात. अशा मनशाक टी.बी. जावपाची शक्यताय आसता.

टी. बी. चे जंतू जाच्या जाच्या पुलमांवांत वतात तांकां सगळ्यांकूच हो रोग जाताच अशें ना. कारण, चडशा लोकांभितर ह्या रोगाआड झगडपाची सैमीक शक्त आसता.

हो रोग जनावरांकूय, चड करून गाय, म्हस हांकांय जावंक शकता. निरोगी मनशान अशा टी. बी. जाल्ल्या जनावराचें दूद पिल्यार हो रोग ताच्या आंतकड्यांक, पोटाक आनी मानेचे गांठीक जावपाची शक्यताय आसता. भारतांतले लोक दूद तापोवन पियेतात आशिल्ल्यान दुदांत जंतू आसल्यारूय ते मरतात. देखून असले तरेचो टी. बी. भारतांत खूब उण्या प्रमाणांत जाता.

सुरवातीचे अवस्थेंत ह्या दुयेंसाचीं लक्षणां सामकीं सादीं आसतात आनी उपरांत तीं वाडत वतात. सुरवेक भूक उणी लागप, वजन उणें जावप, पुरो जावप, सदांचे संवयेचीं कामां करप नाका जावप आनी सांजवेळचो जोर येवप हीं लक्षणां जातात. तशेंच सुरवेक ल्हव ल्हव सुकी खांक येवंक लागता. उपरांत मातेर आशिल्ली थुकी येता वा केन्ना केन्नाय थुकयेंतल्यान रगतूय पडटा. तेचपरी छातयेंत दुखप, खरस येवप, आवाज घोगरो जावप अशींय लक्षणां दिसूंक लागतात.

ह्या रोगाचें निदान लावपाचे दोन मुखेल उपाय अशे - १) थुकयेची तपासणी करप. २) छातयेची क्ष-किरणांनी(Chest X-ray) तपासणी करप. ल्हान भुरग्यांक कातीक इंजेक्शन तोपून ह्या रोगाचें निदान करतात. इंजेक्शन तोपून करपाचे हे परिक्षेक 'ट्युबरक्युलिन टॅस्ट' म्हण्टात. इंजेक्शन करून जातकच त्या जाग्यार सूज आयली जाल्यार त्या भुरग्याक टी. बी. ची लागण जाल्या अशें समजतात. टी. बी. जाल्ल्या अवयवाचो बारीक कुडको काडून केल्ले तपासणेक 'बायॉप्सी' (Biopsy) म्हण्टात. टी. बी. क लागून कुडीच्या खंयच्याय भागांत उदक जाल्यार (effusion) तें काडून ताची तपासणी करतात.

कुडीच्या हेर अवयवांकूय टी. बी. जावंक शकता. मान, खांको आनी जांगेंत टी. बी. ची गांठ येता. ही गांठ मोटी जावन फुट्टा आनी तातूंतल्यान मातेर भायर येता. हाडां, सांदे आनी कण्याकूय हो रोग जाता. मेंदू वा मेंदवाच्या पड्ड्याक तशेंच काळजाच्या पडड्याकूय हो रोग जाता. हाचेभायर मूत्रपींड, आंतकड्यो, कात, दोळे हांकांय टी. बी. जाता.

१९४४ वर्सासावन ह्या रोगाचेर लागू पडटात अशा बऱ्या वखदांचो सोद लागला. ताका लागून हें दूयेंस निवळूंक शकता. पयलीं हीं वखदां सेगीत देड ते दोन वर्सां घेवंचीं पडटालीं. पूण फाटल्या १५ वर्सांसावन चड बेगीन गूण दिवपी वखदां तयार केल्ल्यान रोगी मनीस स म्हयन्यांच्या वखदान निवळटा. पूण हांगा एक जतनाय घेवंची पडटा. हीं वखदां चुकनासतना दोतोर सांगता तितले तेंप घेवंक जाय. तशेंच, दुयेंत मनशान घरच्यांपसून कुशीन रावपाची गरज ना.सद्या हेंय कळून आयलां की, रोग्याक निवळपाक खास पुश्टीक आहाराची वा ताका हॉस्पिटलांत घालपाची कांयच गरज ना. स म्हयन्यांच्या वखदाच्या कोर्साक शॉट कोर्स किमोथॅरपी म्हण्टात.

हो रोग आशिल्ल्या मनशान घेवपाची जतनाय अशी - सेगीत दोन ते तीन सप्तकां खांक येवपी मनशान तशेंच खांकता आसतना रगत पडपी मनशान मात्तूय दुर्लक्ष करिनासतना दोतोराकडेन आपली तपासणी करून घेवंक जाय. टी. बी. च्या रोग्यान खांकतना तोंडाचेर वा नाकाचेर लेंस वा कपडो धरूंक जाय, म्हणजे जंतूची पसरण उणी जाता. रोग्याची थुकी एका बंद आयदनांत एकठांय करून ती लासून उडोवंची वा जमनींत फोंड काडून पुरची. बी. सी. जी. चें वासीन केल्यार ह्या दुयेंसाआड मनशाची प्रतिकारशक्त वाडटा. लस दिल्लया भुरग्याक हो रोग जायना आनी जाल्यारूय उण्या प्रमाणांत जाता. देखून, ल्हान पिरायेचेर आनी जल्मा उपरांत जाता तितले बेगीन हें वासीन करपाक जाय.

ह्या रोगाचेर वेळार उपाय जालेनात जाल्यार ताचे वायट परिणाम जातात. पुलमांवांपसून कुडीच्या दुसऱ्या भागांत टी. बी. चे जंतू रिगूंक शकतात. रगतांत हे जंतू रिगल्यार रोग्याक मरण पसून येवंक शकता. हो रोग मेंदवांत रिगल्यार मेंदूचो टी.बी. वा मेंदवाच्या पड्ड्याचो टी.बी. (Meningitis) जाता आनी आरी (Paralysis) सारकें दुयेंस तरणाटे पिरायेचेर जावंक शकता. आंतकड्यांनी हो रोग पावल्यार आंतकड्यो बंद जावन वायट परिणाम जाता आनी रोग्याक मरण येवं येता. मुत्रपिंडांत टी.बी. पसरल्यार मूत तयार जावपाचें काम बंद जावन मरण येवंक शकता. हाडांक वा फाटिच्या कण्याक हो रोग लागल्यार दोनूय पांय निकामी जावंक शकतात. काळजाक सूज येवन वा दोनूय पुलमांव सामके इबाडून मरण येता. खोंकलेंतसून चड रगत पडल्यार बेगीन मरण येवंक शकता. टी.बी. चें दुयेंस फुडें दिल्ल्या मनशांक जावपाची शक्यताय चड आसता. विडी वा सिगार ओडपी, सोरो पियेवपी मनीस, गोडें मुताचो रोगी, कांय उद्देगीक धुल्लाक लागून पुलमांवांचें दुयेंस जाल्लो रोगी, तरेतरेच्या कॅन्सराचे रोगी, मादक वखदां घेवपी, एड्स ह्या दुयेंसाचे रोगी, मानसिक रोगान त्राशिल्ले रोगी, स्टॅरॉयड नांवाच्या वखदाचेर खूब तेंप आशिल्लो रोगी. गुरवार बायलांक वा बाळंतिणीक हो रोग जावपाची शक्यताय चड आसता.

आशियांतल्या आनी आफ्रिकेंतल्या सगळ्या राश्ट्रांनी ह्या रोगाचें प्रमाण बरेंच आसा. अमेरिका-युरोपांत ह्या रोगाचें प्रमाण सामकें उणें जायत गेलां. गांवांनी आनी शारांनी ह्या रोगाचें प्रमाण सारकेंच आसता. झोपडपट्टींत, ल्हान घर, वारें ना घोळपी घरांनी तशेंच अर्थीक दुबळतायेच्या लोकांभितर ह्या रोगाचें प्रमाण चड वाडटा. सारकें जेवणखाण आनी पुश्टीक आहार घेनाशिल्ल्या मनशांभितर ह्या रोगाची लागण बेगीन जाता.

**संशोधन :** नॅशनल सॅम्पल सर्व्हे (National Sample Survey) भारतीय

वैजकी अनुसंधान परिशदेन १९५५ ते १९५८ ह्या काळांत पुराय भारतांत वेगवेगळ्या वाठारांनी केला. ह्या सर्वेक्षणावरवीं भारतांतल्या ह्या दूयेंसाचें खरें आनी सारकें स्वरूप मेळ्ळें.

हेर कांय म्हत्वाचे सर्वे अशे : तुमकुर सर्वे (राजनारायण १९६३), मदनापल्ली सर्वे (फ्रिमोट मोलार १९६०), बंगळूर सर्वे (एन. टी. आय. १९७४), दिल्ली सर्वे (पामरा १९७३), तमीळनाडुच्या चिंगलपूट तालुक्यांत १९६८ ते १९७५ ह्या काळांत व्हडली ट्रायल घडोवन हाडली. हाका 'ट्युबरक्युलोसीस प्रिव्हेंन्शन ट्रायल' अशें म्हण्टात.

फुडल्या कांय संस्थांनी टी. बी. रोगाचेर विज्ञानाचे अत्याधुनीक उदरगतीचे नदरेन संशोधन चालू आसा. Chest & Heart Association, इंग्लंड; British Medical Research Council, इंग्लंड; American Thoracic Society; (WHO) संवसारीक भलायली संस्था, भारतीय वैजकी अनुसंधान परिशद (ICMR); नॅशनल ट्युबरक्युलोसीस इन्स्टिट्यूट, बेंगळूर (NTI); ट्युबरक्युलोसीस रिसर्च सँटर, मद्रास (TRC); इंटरनॅशनल युनियन अगेन्स्ट ट्युबरक्युलोसीस, (IUAT); टी.बी. असोसिएशन ऑफ इंडिया - हाची स्थापणूक १९३९ वर्सा जाली आनी हे संस्थेवतीन दर राज्यांत टी.बी. असोसिएशनाची स्थापणूक जाल्या.

आज संवसारांत सुमार दोन कोटी टी.बी. जाल्ले रोगी आसात. तातूंतले चडशे थुकयेंतल्यान टी. बी. चे जंतू भायर उडयतात. हातूंत दर वर्सा सुमार ३५ लाख नव्या रोग्यांची भर पडटा. तशेंच दर वर्सा सुमार ३० लाख लोक ह्या रोगाक लागून मरतात.

भारतांत सुमार एक कोटी लोक टी. बी. चे रोगी आसात. हातूंत २० ते २५ लाख लोक थुकयेवरवीं टी. बी. चे जंतू भायर उडोवपी आसात. दर वर्सा पांच लाख लोक ह्या रोगाक लागून मरतात. प्रतिकार शक्त खर आशिल्ल्यान टी. बी. ची लागण लागना. पूण जांच्या आंगांत हो रोग बळावना अशा मनशांचें प्रमाण भारतांत ४०% आसा. दर हजार लोकांभितर २० लोक टी.बी. चे रोगी आसात. हातूंतले ४ ते ५ रोगी थुकयेंत जंतू आशिल्ले आसात. दर वर्सा हो रोग नव्यान जावपी लोकांचें प्रमाण दर हजार मनशाफाटल्यान १ ते ३ इतलें आसा. ह्या रोगान मरपी लोकांचें प्रमाण १९६४ वर्सा लाखांत शंबर आशिल्लें, आतां तें ६० ते ८० आसा. हेंच प्रमाण फुडारिल्ल्या देशांनी दर एका लाखांत १ ते २ आसा.

भारतांत व्हड प्रमाणांत जावपी ह्या रोगाचेर आळाबंदा घालपाक सरकारान १९५९ वर्सा बेंगळुरांत नॅशनल ट्युबरक्युलोसीस इन्स्टिट्यूटाची स्थापणूक केली. हे संस्थेन दर जिल्ह्यांत District T.B. Control Programme १९६२ वर्सा सावन सुरू केलो. ह्या कार्यक्रमांत भोशीक भलायकेचे संस्थेवरवीं रोग सोदून काडपाचें तांकां वखदां पावोवपाचें आनी रोगाक प्रतिबंध करपाचें, बी. सी. जी. लस तोपपाचें आनी हेर सेवा खेडेगांवांनी पावोवपाचीं कामां आस्पावतात.

भारतांत सगळी वेवस्था आसून लेगीत ह्या रोगाचेर पुराय नियंत्रण हाडप शक्य जावंक ना. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार देशाचे अर्थीक परिस्थितीक लागून फावो तितलीं साधनां मेळनात. हो रोग पुराय नियंत्रणांत आयिल्ले देश म्हळ्यार नॅदरलँड्स, नॉर्वे आनी मिनेसोटा राज्य (अमेरिका). गोंयांत टी.बी. रोगाचें प्रमाण सोदून काडपाक आजून मेरेन कसलीच पळोवणी जावंक ना. पूण जो थोडो भोव अभ्यास जाला ताचेवरवीं अशें समजलां की गोंयांत ह्या रोगाचें प्रमाण राष्ट्रीय प्रमाणा इतलेंच आसा. गोंय राज्यांत National T.B. Control Programme चो एक वेगळो फांटो आनी District T.B. Control Programme आसा. तशेंच गोंयचें State T.B. Association आसा.

- डॉ. दुर्गा लवंदे

**टेंगसे, केशव महादेव :** (जल्म : २२ जुलय, १९२९, लोलयें - काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १९५५-५६ ह्या काळांत तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटणेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो गोंय सुटके सैन्याचो वांगडी जालो. तो सत्याग्रह्यांक मार्गदर्शन करतालो. तेचपरी भूंयगत घातकी वावरांनी वांटो घेतालो. १५ जुलय १९५६ ह्या दिसा काणकोणच्या सुपानगुडी पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. १८ ऑक्टोबर १९५६ ह्या दिसा पैंगीण पुलाचेर ताणें स्फोट घडोवन हाडलो. १९ फेब्रुवारी १९५७ ह्या दिसा शिरगांव मिनाखणीचेर दुसरे फावट हल्लो केलो. सप्टेंबर १९५७ त पोलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत घालो. बंदखणींतल्यान सुट्टकच तो परत भूंयगत वावरांनी वांटो घेवंक लागलो. १९ मार्च १९५८ ह्या दिसा सुपानगुडी पोलीस ठाण्यालागसार ताणें स्फोट घडोवन हाडलो. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**टेंगसे, केशव सदाशिव :** (जल्म : १९२६, पैंगीण, काणकोण; मरण : १९५७).

सुटकेझुजारी. सदाशिवभट हो ताचो बापूय. पैंगीणी देवळांत भट म्हणून काम करताना टेंगसे केशव भूंयगत कार्यकर्त्यांक आलाशिरो दितालो. तशेंच तांकां तांचीं हत्यारां आनी दारूगुळो सुरक्षीत थळार लिपोवपाक आदार दितालो.

उपरांत तो आझाद गोमन्तक दलाचो वांगडी जालो. १९५०च्या मध्याक नगर हवेलीक स्वतंत्र्यताय मेळ्ळे उपरांत थंयच्यान तडीपार जावन आयिल्लो पुलीस जेरोमिनू बार्रेतु राश्ट्रवाद्यांचो छळ करतालो.

सप्टेंबर १९५६ त जेरोमिनु बार्रेतान जबरदस्तीन रामाच्या देवळांत भितर सरून, देवळाचो पुजारी पुरुषोत्तम आचार्याक अटक केली.

ताचेफाटल्यान रोकडेंच भूंयगत कार्यकर्त्यांनी, अर्दफोंड्यांत जेरोमिनु बार्रेताचे असभ्य वागणुकेखातीर ताच्या घराचेर धाड घाली आनी १७ सप्टेंबर १९५६ दिसा ताका गुळी घालून मारलो.

दुसऱ्या दिसा हे घडणुकीचो दुबावीत म्हणून टेंगसेक अटक केली. ताका आनी पुरुषोत्तमाक इतले मारले की तांकां थोड्याच दिसांनी बंदखणींतच मरण आयलें.

गोंय सरकारान मरणोत्तर पुरस्कार दिवन १८ जून १९८६ दिसा ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**टेंबेस्वामी :** (जल्म : १८५४, माणगांव, रत्नागिरी; मरण : १९१४, गुजरात).

टेके, चांगदेव बळवंत

आर्विल्ल्या काळांतलो एक दत्तोपासक सत्पुरूश आनी नामनेचो वेदांचो अभ्यासक. ताचें पुराय नांव वासुदेव गणेश टेंबे वा टेंभे. 'वासुदेवानंद सरस्वती' ह्या नांवानूय ताका वळखतात. ताचें मुळावें शिक्षण, ताचो आजो हरिभट्ट हाच्या हाताखाल जालें. उपरांत विंगड विंगड शाळांतल्यान ताणें संस्कृत विशयाचें अध्ययन केलें. ल्हानपणांतसावन ताका वेदांच्या अध्ययनाची आवड आशिल्ली.

पिरायेच्या एकोणिसाव्या वर्सा, अन्नपूर्णा नांवाचे चलयेवांगडा ताचें लग्न जालें. नरसोबावाडीक गेल्लेकडेन गोविंदस्वामी ह्या सत्पुरूशाच्या मार्गदर्शनाखाल ताणें दत्तोपासना सुरू केली. फुडें ताका परतून परतून दत्तात्र्याचे साक्षात्कार जावंक लागले आनी प्रत्यक्ष दत्तात्रयानूच ताका मंत्रोपदेश दिलो अशें म्हण्टात. थंयच ताणें योगाभ्यास सुरू केलो.

१८८२ वर्सा ताणें 'चांद्रायण' हें व्रत केलें. उपरांत माणगांवां ताणें दत्तात्र्याचें देवूळ बांदलें आनी थंयच तो मौनव्रतान रावपाक लागलो. अशीं ताणें सात वर्सां दत्तोपासना केली.

१८८९ वर्सा, बायलेक घेवन तीर्थयात्रेक वचपाक भायर सरलो. १८९१ वर्सा यात्रा करता आसतानाच ताचे बायलेक मरण आयलें. मरणाच्या तेराव्या दिसा ताणें संन्यास घेतलो आनी परतून तीर्थयात्रेक सुरवात केली.

तो जंय रावतालो, थंय पुराणां-प्रवचनां सांगून लोकांभितर धर्माची जागृताय हाडपाचो यत्न करतालो. ताणें विंगड विंगड सुवातांनी दत्तमुर्तींची प्रतिश्ठापना केल्या.

दत्त उपासनेच्या प्रचारावांगडा ताणें कांय ग्रंथांचीय निर्मिती केली. ताचे कांय ग्रंथ संस्कृत आनी मराठी भाशेंत आसात. 'श्रीदत्तलीलामृताब्धिसार' (१९०३), 'दत्तमालावर्णाकित माघमाहात्म्य' (१९०४), 'कुमारशिक्षा' (१९०९), 'प्राकृत मननसार' (१९१०), 'श्रीदत्तमाहात्म्य' (१९११), 'स्त्रीशिक्षा आनी स्त्रीगीते' (१९२१), अज्ञानतिमिरदीपक (१९२६) हे ताचे कांय म्हत्वाचे ग्रंथ आसात.

गुजरात राज्यांत गरुडेश्वर गांवांत ताका मरण आयलें. थंयच ताची समाधी आसा. थंय दत्त-पादुकांचीय स्थापणूक केल्या. दर वर्सा थंय ताची पुण्यतिथी मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**टेके, चांगदेव बळवंत :** (जल्म : १६ डिसेंबर १९२९, वाडी, कोपरगांव).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी माध्यमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो सोशलिस्ट पक्षाचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा काणकुंभीच्यान गोंयांत येवन सूर्ला ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. १९५२-१९७७ ह्या काळांत तो वाडी ग्रामपंचायतीचो सरपंच आशिल्लो. उपरांत तो कोपरगांव पंचायत समितीचो आनी अहमदनगर जिल्हो परिशदेचो वांगडी जालो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**टेबल - टॅनिस :** (पळेयात टॅनिस).

**टेमिन, हॉवर्ड मार्टिन :** (जल्म : १० डिसेंबर १९३४, फिलाडेल्फिया).

नामनेचो अमेरिकन शास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण स्वार्थमोर म्हाविद्यालयांत जालें. उपरांत ताणें कॅलिफॉर्निया इन्स्टिटयूट ऑफ टॅक्नॉलॉजींत दलबेक्को हाच्या हातासकयल डॉक्टरेटच्या प्रबंधाचें काम केलें (१९५५-५९). थंयच ताणें आपलें अर्बुद-विशाणूवयलें संशोधन सुरू केलें. उपरांत तो मॅक ऑर्ड्ल मॅमोरियल लॅबोरेटरींत अर्बुदविज्ञान आनी अर्बुद संशोधनाचो प्राध्यापक जालो.

आरएनए अर्बुद-विशाणूक लागून कर्करोग कसो जाता, हाचेविशींचो अभ्यास हें ताचें म्हत्वाचें कार्य. १९६४ वर्सा ताणें फुडली शक्यताय सुचयली - पयलीं विशाणूजन्य आरएनएची डीएनएंत नक्कल जाता आनी उपरांत तिचें पोशक पेशीजन्य डीएनएंत संकलन जाता. खेरीज, डिएनएची उपरांत आरएनएंत नक्कल जाता, अशेंय ताचें मत आसा. पूण ही क्रिया परती जायना म्हळ्यार एकोडी आशिल्ल्यान चडशा जीवविज्ञानिकांक मान्य जाली ना. पूण मे १९७० त टेमिन आनी बाल्टिमोर हांणी स्वंतत्रपणान रिव्हर्स ट्रान्सक्रिप्टेज ह्या एंझायमाचो सोद लायलो. ताका लागून परते क्रियेचें म्हळ्यार जननिक वृत्त फुडें कशें वता वा डीएनएंतल्यान आरएनएंत वचूंक शकता, अशें दाखोवपांत ते यशस्वी जाले. हें मत पयलींच्या सिध्दांताआड आसा. कारण, जननिक वृत्त न्युक्लिईक आम्ल (डीएनए) ते न्युक्लिईक आम्ल (आरएनए) ते प्रथीन अशें वता; असो पयलींचो सिध्दांत आशिल्लो. पूण टेमिन आनी बाल्टिमोर हांच्या मतान हें वृत्त प्रथीन ते न्यूक्लिईक आम्ल अशें वता.

पोशक पेशींतली जननिक सामग्री आनी अर्बुद -विशाणू हांच्यांतल्या आंतर-क्रियांविशीं ताणें लायिल्ल्या सोदांखातीर रेनातो दलबेक्को, डेव्हिड बाल्टिमोर आनी टेमिन हांकां १९७५ वर्साचो शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. ह्या तिगांच्याय मोलादीक वावराक लागून मनशाक जावपी थरावीक अर्बुदाक कारण आसपी विशाणू सोदून काडपाची शक्यताय निर्माण जाल्या आनी अशे तरेचो अभ्यास करपाचें खाशेलें तंत्र तयार जालां.

- कों. वि. सं. मं.

**टेलिप्रिंटर :** (पळेयात तारायंत्रविद्या).

**टेलिफोन :** संपर्क माध्यमाचें एक साधन. ह्या साधनावरवीं लांब अंतरावयल्यान एकामेकांकडेन नीट संभाशण करप शक्य जाता. ध्वनी तरंगाचें विद्युत् तरंगांत रुपांतर आनी विद्युत् तरंगाचें पर्थून ध्वनी तरंगांत रुपांतर ह्या तत्त्वाचेर टेलिफोनाची मांडणी केल्ली आसा.

अलेक्झांडर ग्रॅहम बेल ह्या अमेरिकेंत स्थायिक जाल्ल्या स्कॉटिश शास्त्रज्ञान ७ मार्च १८७६ ह्या दिसा टेलिफोनाचें पेटंट दिलें. बेल हाका टेलिफोनाचो जनक म्हणून वळखतात आसले तरी ताचे आदीं सी. जी. पेज (१८३७), सी. बुर्सेल (१८५४), फिलिप रायस (जर्मन -१८६१), चार्लीस व्हीटस्टोन (१८२०), मायकल फेरडे (१८३१), ॲलिशा ग्रे (१८७२) आनी हेर शास्त्रज्ञांनी टेलिफोनाचे यंत्रणेक सुचक अशे तंत्रीक सोद लायले. बेल हाच्या उपरांतय टेलिफोनाच्या वेगवेगळ्या आंगांचेर नवीं नवीं संशोधनां जाल्यांत.

संदेश दितल्याच्या भाशणाचे ध्वनीतरंग प्रक्षेपकाचेर (Transmitter)

आदळटात. प्रक्षेपकाच्या कंपनांतल्यान ह्या ध्वनी तरंगांचें तशाच प्रकारच्या विद्युत् तरंगांत रुपांतर जाता. हे विद्युत् तरंग दुसरे वटेनच्या ग्राही (Receiver) साधना मेरेन पावोवपाचें काम वाहक तारो करतात. विद्युत् तरंग ग्राही साधनांचेर आदळले म्हण्टकच ताचें परतून ध्वनी तरंगांत रुपांतर जाता. अशे तरेन संदेश दिवप्याचें भाशण संदेश घेतल्याक जशाक तशें आयकूंक येता. सुर्वेक प्रत्येक टेलिफोनाक प्रक्षेपक आनी ग्राही हें एकच उपकरण आशिल्लें. पूण तें गैरसोयीचें जाल्ल्यान प्रक्षेपक आनी ग्राही खातीर दोन वेगळीं उपकरणां वापरांत आयलीं (१८९०). सद्या एकाच हात संचांत (Hand Set) प्रक्षेपक आनी ग्राही एकेच भुजेत बसयल्ले आसात (१९३०). सुर्वेक फोनाचे नंबर फोनाची चकती (dial) घुवंडावन लावप जातालें. सद्याच्या फोनाक नंबरांचे बटन आसात आनी बटन दामून (Push Button) नंबर लायतात.

संदेश आगमनाची खूण म्हणून घंटानादाची सोय टेलिफोनात केल्ली आसा आनी हातसंच ज्या घोड्याचेर दवरतात ताच्या मूळाकडेन घंटा नाद जावपाची यंत्रणा बसयल्ली आसता.

दूरध्वनी विनिमय ह्या मध्यवर्ती जुळणी केंद्रावरवीं संदेश वाहन, संदेश विभाजन आनी संबंदीत घटकांचेर नियंत्रण दवरप जाता. इंटरनॅशनल टेलिकॉम्युनिकेशन युनियन हे आंतरराश्ट्रीय संघटणेवरवीं आंतरराश्ट्रीय दूरध्वनी संदेश वहनाचें कार्य चलता.

कृत्रिम उपग्रहांच्या आदारान दूरध्वनी यंत्रणेंत कितल्योश्योच सुदारणा जावन आवाजा वांगडाच चित्रांय (व्हिडियो फोन) दिसपाची सोय १९७०त अमेरिकेंत जाली. तेचप्रमाण संदेशवाहक तारांबगर(Wireless) टेलिफोनाचो सोद लागिल्लो आसा. आपोआप संदेश नोंदणी (Message Print) जावपाची सोय उपलब्ध जाल्ली आसा. हाचेच वांगडा फॅक्स (fax), टेलेक्स (Telex) सारक्यो सुविधाय हे यंत्रणे मार्फत उपलब्ध आसात. सेल्युलर फोन (Cellular Phone) ही अशी एक बिनतारी संदेश यंत्रणा. फिरतें जुळणी केंद्र (मोबायल स्वीचींग सँटर) हे यंत्रणेवरवी सेल्यूलर फोन यंत्रणेच्या घटकांमदीं (Cells) संबंद जोडून संदेश प्रक्षेपण आनी ग्रहण सर्वसादारण दूरध्वनी यंत्रणे मार्फत करप जाता. प्रवासांत सेल्यूलर फोन खूब उपेगी पडटा.

– कों. वि. सं. मं.

**टोकियो :** टोकियो उपसागराच्या तोंकार वशिल्ली जपानाची राजधानी. तशेंच तें जपानाचें अर्थीक, राजकीय आनी संस्कृतीक केंद्र. लोकसंख्येंत संवसारांतलें सगळ्यांत व्हड शार. सुरवातेक हाका इदो वा येदो अशें म्हण्टाले. १९६८ त जेन्ना हें बादशहाचें निवासथळ आनी जपानाची राजधानी म्हणून जाहीर केलें तेन्ना हाका टोकियो (उदेंत राजधानी) अशें नांव दिलें.

टोकियो आनी व्हड टोकियो अशे हाचे दोन वांटे केल्यात. व्हड टोकियो हें संवसारांतलें सगळ्यांत व्हड शार आसून ताचें क्षेत्रफळ सु. २,१४१ चौ. किमी. लोकसंख्या (मध्यवर्ती विभाग) ८,५५४ (१९८५). व्हड टोकियो शारांत २३विभाग, ९ उद्देगीक वसणुको, २५ उपनगरां, १४ गांवगिरे वाठार आनी प्रशांत म्हासागरांतल्या कांय जुंव्यांचो आस्पाव जाता. जपानाचे वट्ट लोकसंख्येचोय सु. एक-दशांश वांटो ह्या शारांत रावता आशिल्ल्यान जपानी जिवीतांचें एक माणकुलें रूप थंय पळोवपाक मेळटा. टोकियो शाराचो संवसारांतल्या आधुनीक शारांमदीं आस्पाव जाता. उजो, भूंयकाप आनी दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून ह्या शाराचो खूब फावटीं नाश जाल्लो पूण जपानान ताची परत परत उबारणी केली.

टोकियो शाराची सजावट बेस बरी केल्ली आसा. खूब रूंद आनी नितळ रस्ते, विंगड विंगड शासकीय आनी वेपारी कंपनीच्यो व्हड इमारती, व्हड-व्हड कारखाने, सोबीत आनी व्हड नाट्यघरां, विश्रांतीघरां, वस्तू संग्रहालयां आनी उद्यानां सगळ्याक दिश्टी पडटात. भोंवडेकारांचो आनी मोटारींचो गजगज, भुंयारी आनी जमनीवयल्या लोहमांर्गाचें जाळें, गिरायकांचे गर्देन भरिल्लीं व्हड-व्हड दुकानां असलीं धांवपळींचीं दृश्यां थंय चारूय दिशांनी पळोवपाक मेळटात.

ह्या व्हड शाराचें हवामान मोसमी प्रकाराचें आसून गिमाच्या दिसांनी ताचें तापमान सु. २६.४° सॅ. आनी शियाळ्यांत तें साप थंड म्हळ्यार ३.७° सॅ. इतलें आसता. वर्सुकी सरासरी पावस १५६.२ सेंमी. इतलो पडटा. जानेवरी ते मार्च मेरेन जायते फावटीं थंय हिमवर्शाव जाता. थंयची वस्ती खूब दाट.

टोकियोंत आस्पाविल्ल्या एडो गांवाचो उल्लेख बाराव्या शेंकड्यांतल्या कागदपत्रांत सांपडटा, पूण टोकियोच्या खऱ्या इतिहासाची सुरवात १४५७ वर्सा सावन जाता. १ एप्रिल १४५७ दिसा ओटा डोकान नांवाच्या एका सेनापतीन एडो नांवाचो किल्लो सूमिद न्हंयेच्यामुखार बांदिल्लो. सतराव्या शेंकड्याचे सुरवातेक ईयाशू टोकुगावा नांवाच्या शोगुणान थंय आपलें मुखेल ठाणें दवरिल्लें. तेन्नासावन ह्या शाराची नेटान उदरगत जावपाक लागली. टोकुगावा कुटुंबाकडेनूच जपानाचें शासन आशिल्ल्यान क्योटोला ही तांची राजधानी आशिल्ली. तरी पूण टोकियोचो विकास जायत रावलो.

१८६८ त सम्राट मुट्शुहिटो ह्या मेजीवंशी राजान एडोलाक राजधानी हाडून ताका टोकियो (आदली राजधानी) हें नांव दिलें. फाटल्या १०० वर्सांमदीं टोकियोन, जपानाचेर आयिल्ल्या साबार प्रसंगांक तोंड दिलें. १९२३ त जाल्ल्या भूंयकापांत आनी तेवरवीं लागिल्ल्या उज्याक लागून सुमार एक लाख लोक मेले. शारांतल्यो खूब इमारती नश्ट जाल्यो. उपरांतचे पिळगेन शाराची परत उबारणी केली. दुसऱ्या म्हाझुजांत जाल्ल्या बॉम हल्ल्यांत ह्या शाराचो २५५ चौ. किमी. भाग उध्वस्त जाल्लो आनी सु. २,५०,००० नागरीक मेल्ले. वट्ट आठ लाख इमारती नश्ट जाल्ल्यो. पूण झुजाउपरांत टोकियोची परत उबारणी नेटान जाली. आज टोकियोचो आस्पाव संवसारांतल्या आधुनीक शारांमदीं जाता.

जलद गतीन वाड जावपी ह्या शाराच्या विकासाक नियोजन मेळचें म्हणून मूळ शारा भोंवतणीं ५० किमी. क्षेत्रांत एक व्हड वाटकूळ कल्पून टोकियो स्थानका भोंवतणीं १५ किमी. चो एक पटो, ताचे भायर १० किमी. रूंद पाचवो पटो आनी ताचे भोंवतणीं २०.२५ किमी. चें व्हड क्षेत्र अशे तीन वांटे केल्यात. पयल्या क्षेत्रांत बांधकामांसबंदी कडक नेम घाल्ले आसून तिगून रावपी घरांच्या बांधकामांकडेन चड म्हत्व दिलां. सुमार ७५% घरांच्या बांधकामांत लाकूड वापरतात; लोखण आनी कॉंक्रीट हांचोय चडांत चड उपेग हालींच्या तेंपार करतात. पाचवो पटो शेतां, बागबगीचे, उद्यानां हांचे खातीर राखून दवरिल्ल्यान थंय आकर्शीत अशें गांवगिरें वातावरण निर्माण जालां. हाच्या भायलो पटो नवे उद्येगीक वसणुकेच्या विस्ताराखातीर राखून दवरला.



टोकियो रेल्वे स्टेशन

टोकियोक आंतरराश्ट्रीय शार अशेंय म्हण्टात. थंयच्या हानेडा विमानतळाचेर दिसाक सुमार ३५०-४०० विमानांची आनी वर्साक सु. ७,४००,००० भोंवडेकारांची यो-वच जाता. हो विमानतळ रडारासारक्या आधुनीक यंत्रांनी सज्ज आसून, हालीं दर्या पुरून ताचो विस्तार केला. टोकियोचे लोहमार्गूय खूब फुडारिल्ले आसात. फांत्यार ४.१५ सावन रातच्या १२ मेरेन हांगा गाडयांची यो-वच आसता.

१९०६ त बांदिल्लें टोकियोचें बंदर त्या मानान खूब ल्हान. पूण जपानाचे आयात-निर्याती खातीर मुखेलपणान योकोहामा बंदराचो उपेग जाता. मारूनौची विभाग म्हळ्यार टोकियोच्यो बँको, विमो, वेपार आनी शासनाच्या वेव्हारांचें केंद्र. जपानाचें आकाशवाणी आनी दूरचित्रवाणी केंद्र मारुनौचीक आसा. टोकियो टावर शाराची सोबीतकाय वाडयता. हो टावर ३३३ मी. ऊंच. ह्या टावराचेर जपानाचें आकाशवाणी केंद्र आनी दूरचित्रवाणी केंद्र आसा. टोकियो शारांत शेंकड्यांनी उपवनां आनी टोकियो नॅशनल म्युझियम, नॅशनल म्युझियम ऑफ मॉडर्न आर्ट, मट्रोपॉलिटन फायन आर्ट गॅलरी, नॅशनल सायन्स म्युझियमा सारकीं साबार नामनेचीं संग्रहालयां आसात.

टोकियो हें जपानाचें एक नामनेचें उद्देगीक शार. पोलाद, तारवां बांदणी, रेल्वेचे म्हाल व्हरपी डबे हांचेसारकी अवजड कारखानदारी तशेंच हलक्या आनी मध्यम आकारांचे कारखानेय बरेच आसात. अचूक यंत्रसाधनां, वैजकी उपकरणां, विजेचीं ल्हान-व्हड यंत्रां, कपडयाच्यो गिरणी, रबराच्यो वस्तू, खेळणीं, खाद्यपदार्थ अशें विंगड विंगड उत्पादन थंयच्या कारखान्यांनी जाता. शेतवड आनी नुस्तेमारी हेय टोकियोचे म्हत्वाचे उद्देग.

टोकियो हें जपानाचें मुखेल संस्कृतीक आनी शिक्षणीक केंद्र. जपानांतल्या ४६५ विद्यापिठांतलीं १४६ विद्यापिठां टोकियोंत आसात. टोकियोच्या प्रशासना खातीर एक राज्यपाल, कार्यकारी आयोग, ताचीं विंगड विंगड मंडळां आनी १२० वांगड्यांचें विधीमंडळ आसा. राज्यपालाची वेंचणूक दर चार वर्सांनी जाता. वेंचून आयिल्ले वांगडी तांच्यांतलो अध्यक्ष आनी उपाध्यक्ष वेंचून काडटात. विधीमंडळाच्यो बसका वर्सांतल्यान चार फावटी जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**टोगो** : अस्तंत आफ्रिकेच्या गिनीच्या आखातावयलें एक स्वतंत्र प्रजासत्ताक. क्षेत्रफळ ५६,७८५ चौ. किमी. आसा. लोकसंख्या ३९,००,००० (१९९४). विस्तार ६°१०' ते ११°५' उत्तर आनी १°७५' उदेंत ते ०°२५' उदेंत. हाची उत्तर -दक्षिण लांबाय ५१२ किमी. आनी रुंदाय १४४ किमी. आसा. हाचे अस्तंतेक घाना, उत्तरेक अपर व्होल्टा, उदेंतेक दाहोमी आनी दक्षिणेक गिनीचें आखात आसा.

**भूंयवर्णन** : टोगोच्या मदल्या वाठारांत घानांतल्या आक्कापीम दोंगुल्ळ्यांसावन, दाहोमींतल्या आटाकोरा दोंगरा मेरेन गेल्ली शेन डू टोगो ही सरासरी ७०० मी. उंचायेची दोंगरावळ नैर्ऋत्य - ईशान्येक गेल्या. ह्या दोंगरावळींतलें सगळ्यांत उंच तेमक पिक बौमान हें ९८३ मी. उंचायेचें आसा. ह्या दोंगुल्यांचे उत्तरेक आनी अस्तंतेक ओटी ही व्होल्टाची उपन्हंय व्हांवता.

ओटी न्हंयेचे उत्तरेक ओटी वालुकाश्म सडो हो सावाना तणाचो वाठार. सामके वायव्येक ग्रॅनायट आनी नीस हांचो ऊंच प्रदेश आसा. मदल्या दोंगुल्ळयांचे दक्षिणेक सु. ४३० मी. उंचायेचो सड्याचो प्रदेश आसा आनी थंयच्यान मोनो आनी तिच्यो उपन्हंयो आनी ए, ओगू, हाहो आनी सीओ व्हांवतात.

**हवामान, वनस्पत आनी मोनजात** : टोगोचे दक्षिणेक एप्रिल ते जुलय आनी ऑक्टोबर ते नोव्हेंबर असो दोन फावटीं पावस पडटा. दर्यादेगेलागच्या वाठारांनी सगळ्यांत उणो ६० ते ९० सेंमी. पावस पडटा. दर्यादेगेसावन सु. १०५ किमी. भितर पालीमे वाठारांत सगळ्यांत चड पावस पडटा. बाकीच्या काळांत उश्ण, सुकें, धुल्लान भरिल्लें हरमॅटन वारें मारता. थंयचें सरासरी हवामान २६° सॅ. आसता. ऑगस्टांत दोंगरी वाठारांनी सगळ्यांत उणें २०° सॅ. तापमान आसता. जाल्यार उत्तरेक मार्च-एप्रिल

म्हयन्यांत सगळ्यांत चड ३३° सॅ. तापमान आसता.

न्हंयेच्या देणगांनी आनी नैर्ऋत्येकडच्या चड पावस पडपी वाठारांनी दाट रानां आसात. दाट रानांचे कांय प्रदेश मदल्या दोंगरी वाठारांनी सांपडटात. कांय कडेन सावाना तरेची वनस्पत सांपडटा. पावसाळ्यांत प्रदेश पाचवोचार जाता जाल्यार गिमांत जळींमळीं ल्हान-ल्हान झोंपां दिसतात. दाट रानांतल्यान घट लाकूड, दीख आनी पामाचें उत्पन्न मेळटा.

रानांनी विंगड विंगड प्रकारची मोनजात मेळटा. उत्तरेक हत्ती, शींव, बिबटे दिश्टी पडटा. न्हंयेंत गेंडे, हिप्पोपोटॅमस आनी मानगीं बऱ्याच प्रमाणांत आसात. दर्यादेगेलागच्या रेंवाळ प्रदेशांत विंगड विंगड जातींचे सोरोप आनी शेड्डे आसात. थंय तरेकवार सवणींय दिश्टी पडटात.

**इतिहास :** बाराव्या ते चौदाव्या शेंकड्यांत नायजराच्या देगणांतल्यान इव लोक टोगोलॅंडाक आयले आसूं येत अशें इतिहासकारांचें मत आसा. सद्या टोगोंत आनी लागींच्या घाना देशांत ह्या लोकांची संख्या चड आसा. पंदराव्या ते सोळाव्या शेंकड्यांत पुर्तुगेज लोक थंय आयले आनी तांणी थंय गुलामांचो वेपार सुरू केलो. गुलामांच्या आदारान तांणी दर्यादेगेच्या वाठारांनी माड, मको हांचीं पिकां काडपाक सुरवात केली. तें ह्या पिकांचो उपेग आपल्या बोटीवयल्या खलाशां खातीर करताले. उपरांत १६२६ त फ्रेंच लोक थंय पावले आनी तांणी ग्रान्द पोपो आनी पेतित पोपा ह्या गांवांनी आपलो राबितो केल्लो. पूण थंयच्या लोकांनी तांकां खर विरोध केल्लो. १८५६त जर्मन लोक ग्रान्द पोपो आयले. १८८० उपरांत तांणी बरोच प्रदेश आपल्या शेकातळा घेतलो. जर्मनांनी आपली राजधानी सुरवातेक बागुदाक मागीर झेबे आनी १८९७ लॉमेक व्हेली. जर्मनांनी उत्तरेकडचोय प्रदेश घेवन थंय रस्ते आनी रेल्वे मार्ग बांदले. ह्या काळांत अर्थीक आनी समाजीक उदरगतीक सुरवात जावपाक लागिल्ली. पूण पयल्या म्हाझुजाउपरांत टोगो फ्रेंच आनी ब्रिटिशांच्या हातांत आयलें. १९२२त राश्ट्रसंघाचो महादिश्ट प्रदेश म्हणून हो प्रदेश फ्रेंच आनी ब्रिटिशांचे सुवादीन केलो. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत ब्रिटीश आनी फ्रेंच हांचेकडेन टोगोलॅंड संयुक्त राश्ट्रांचो विश्वस्त प्रदेश म्हणून आयलो. २८ एप्रिल १९५८त संयुक्त राश्ट्रांचे देखरेखीखाला नव्यो वेंचणुको घेतल्यो. हातूंत राश्ट्रीय संयुक्त संघाक जैत मेळ्ळें. तांणी पुराय स्वतंत्रतायेची मागणी केली. २७ एप्रिल १९६० त टोगोक पुराय स्वातंत्र्य मेळ्ळें. १३ जानेवारी १९६३ दिसा ऑलिंपोची हत्या जाली आनी उपरांत निकोलास गृनिट्झ्की राश्ट्राध्यक्ष जालो. ३ जानेवारी १९६७ दिसा लोक एटिएन्ने इयाडेमा हांच्या फुडारपणाखाला लश्करी क्रांती जावन, इयाडेमा राश्ट्राध्यक्ष जालो.

**अर्थीक स्थिती :** शेतवड हो टोगोचो मुखेल वेवसाय जावन रावला. ४२.२% जमीन शेताखातीर लायक आसा. शेतजमीन तितलीशी पिकाळ नाशिल्लयान थंयच्या शेतकामत्यांक आपल्या शेताखातीर गोरवां पोसप, कुकडां पोसप, नुस्तेमारी आनी हेर वेवसायांचो आदार घेवंचो पडटा. कोको, काफी, ताडतेल, ताडगर, खोबरें, भिकणां हीं थंयचीं म्हत्वाचीं पिकां आसात. माड, काफी, कोको, कोला, कापूस हांचे व्हड मळे आसात.

टोगोंत नुस्तेमारीचोय वेवसाय नेटान चलता. न्हंयांतल्यान नुस्तें पारंपारीक पद्दतीन मारतात. टोगोची ९.५% भूंय रानांनी आशिल्ल्यान रानांतली पिकावळूय हांगाचे अर्थीक स्थितीक फाटबळ दिता.

टोगोंत खनीज संपत्ती भरपूर आसा. थंय फॉस्फेट, क्रोमीयम, लोखण, बॉक्सायट, तेल, युरेनियम, भांगर, हिरे, रुटायल, मॅंगनीज मेळटा.

टोगोंतले म्हत्वाचे उद्येगधंदे म्हळ्यार तापिओका, स्टार्च, ताडतेल काडपाचे कारखाने, शेंदऱ्यो आनी मातयेचीं आयदनां करप, कांय प्रमाणांत लोखणाच्यो वस्तू तयार करप हे वेवसाय चलतात. पूण टोगोंत व्हड उद्येगधंद्यांची अजून वाड जावंक ना. थंय यंत्रांची चडशी आयात जाता.

**येरादारी आनी संचारण :** १९८२ मेरेन टोगोंत ५२५ किमी. लांबायेचे रेल्वे मार्ग आशिल्ले. लॉमेसावन पालीमेमेरेन कोको खातीर, आनेचोमेरेन खोबऱ्या खातीर आनी ब्लीटामेरेन कापसाखातीर अशे मुखेल रेल्वे मार्ग आशिल्ले. १९८४ मेरेन थंय ७,८५० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. लॉमेंत आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. लॉमे हें टोगोचें मुखेल बंदर.

**लोक आनी समाजजीण :** १९९४ मेरेन टोगोची लोकसंख्या ३,९००,००० आसा. थंय सु. तीस वांशिक पंगडांचे लोक आसात. लोकसंख्येंतले सुमार २०% एवी, १३% काब्री, ११% वात्यी, ६% नाउडेबा, ५.८% मिना, कोटोकोली ५%, मोवा ५% आनी हेर ३१% आसात. बरेच लोक अस्तंत आफ्रिकेच्या हेर भागांतल्यान आयल्यात. टोगोंतले थळावे लोक उत्तर आनी नैर्ऋत्य वाठारांत रावतात. एवी हे संख्येन चड आसून ते चवदाव्या ते सोळाव्या शेंकड्यांत नायजेरियासावन आयिल्ले. आक्पोसो, आडेले, आहलो हे मध्य टोगोंत रावतात. डागोंबा, चाकोसी, आन्याना, केपेले हे घाना आनी आयवरी कोस्टासावन आयले. टेम, मुर्मा, मॉसी ह्यो अपर व्होल्टासावन आयल्यो. ह्यो जमाती निग्रोवंशी आसात आनी त्यो टोंगोच्या मदल्या आनी दक्षिण वाठारांत रावतात.

थंयची अधिकृत सरकारी भास फ्रेंच. थंयच्यो विंगड विंगड जमाती आपआपली खाशेली भास उलयतात. दक्षिणेक चडशी एवी लोकांची भास वापरतात. थंयचीं चडशीं वर्तमानपत्रां फ्रेंच भाशेंत छापतात. पूण वेपार आनी हेर कामां खातीर फ्रेंच आनी इंग्लिशीचो वापर करतात. टवी, हाऊसा, गुरु, मोरे, तेम, कोबे, क्वा, ह्यो थंयच्यो कांय बोली.

– कों. वि. सं. मं.

**टोळ :** ओरथॉप्टेडा गणांतलो लोकस्टिडी (ॲक्रिडिडी) कुळांतलो टोळ हो एक मुखेल उपद्रवी किडो. व्हड संख्येची जननक्षमताय आनी लांब पल्ल्याची भोंवडे क्षमताय आशिल्लो, हो एक आंतरराश्ट्रीय असो उपद्रवी मुल्यांचो किडो. व्हड संख्येच्या भिग्यान येवन पिकावळीचेर धाड घालपी हो किडो पिकावळीचो आनी झाडापेडांचो एक व्हड दुस्मान.

टोळाचें इंग्लीश नांव 'लोकस्ट'. लॅटीन भाशेंत हाचो अर्थ 'जळिल्ली जमीन' असो जाता. टोळधाड पडले उपरांत जमनीची अवतिकाय जाळिल्ले जमनीभशेन जाता हें ह्या उत्तरावयल्यान सूचीत जाता. व्हड आकाराच्या टोळाक लोकस्ट आनी ल्हान आकाराच्या टोळाक ग्रासहॉपर म्हण्टात.

पोरणे बरपावळींत टोळधाडीन जाल्ल्या लुकसाणीचें वर्णन मेळटा. बायबलांतय टोळाचो उल्लेख मेळटा. टोळधाडीचे लुकसाणीपसून पिकाचें संरक्षण जावचें म्हणून देवाकडेन प्रार्थना केल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. व्हड संख्येन आयिल्ल्या मनशाकडसून जावपी उपद्रवी घुरयेक टोळधाड हो वाक्यप्रचार वापरांत आसा.

टोळाची वाड तीन अवस्थांनी जाता - १) तांतयां २) बीन पांखांचे पिले ३) पांखांचे टोळ. सुमार तीन ते स म्हयन्यांच्या काळांत मादी ३०० ते

५०० तांतयां जमनीच्या बुराकांत घालता. १२ ते १४ दिसांच्या काळांत बीन पांखांची पिलां भायर सरतात. तीं चार सप्तकांच्या काळांत पांच फावटीं कात सोडले उपरांत टोळ अवस्थेंत पावतात.

एकलेपणाची आनी भिऱ्याची अशो टोळयो संचार करपाच्यो दोन प्रवृत्ती दिसतात. एकलेपणाचे अवस्थेंतल्या टोळाचो रंग, आकार हो कांय प्रमाणांत भिऱ्यांतल्या टोळाच्या रंगापरस आनी आकारापरस वेगळो आसता. एकलेपणांतले अवस्थेंतले टोळ हे कांय प्रमाणांत सुस्त, निरुपद्रवी जाल्यार भिऱ्यांतले अवस्थेंतले टोळ हे अस्थीर आनी उपद्रवी आसतात. एकलेपणाची प्रवृत्ती आनी भिऱ्यांची प्रवृत्ती ह्यो तशो सामक्यो एकामेकांपसून तुटिल्ल्यो दोन अवस्था म्हणूंक मेळच्योनात. एकलेपणाची प्रवृत्ती आशिल्ल्या टोळाचे संख्येंत वाड जाली आनी सरभोंवतणच्या परिसराचो बादाकादी संपर्क जालो जाल्यार एकलेपणाचे प्रवृत्तींतल्या टोळाचें रूपांतर भिऱ्यांचे प्रवृत्तींत जाता.

भिऱ्याचे प्रवृत्तींतल्या टोळांची भोंवडी ही त्या वाठाराखातीर एक व्हड अशी उपद्रवी भोंवडी थारता. जे सुवातेर टोळधाड पडटा ते सुवातेवयली पुराय वनस्पत नश्ट जाता. लाखाच्या आंकड्यांत, एका दिसाक सुमार ४० किमी. ह्या हिशोबान, सुमार ८०० चौ. किमी. च्या व्यापान हें भिरें वाटेर आडवीं आयिल्ल्या झाडांपेडांचीं आनी पिकांचीं पानां खावन उडयता. दर एक टोळ सुमार दोन ग्राम अन्न खाता.

जशें जशें वत खर जाता, तसो तसो टोळधाडीचो वेग उणो जाता. टोळ भोवतेक रातच्या वेळार झाडाच्या मुळांनी सुसेग घेता.

**टोळधाडीचें नियंत्रण :** सरकोफेजडी कुळांतले मूस, भुंगुल्ले, हुंदीर, चानयो, जिवाणीं, शेड्डे, पाली, शेवणीं हांचे सारकिल्ले जीव टोळांचीं तांतयां तशेंच टोळ खावन सैमीक अशें नियंत्रण टोळांचेर दवरतात. तेभायर टोळांच्या अशा खाशेल्या रोगांनी टोळांचेर नियंत्रण उरता.

जमीन नांगरून टोळांचीं तांतयां नश्ट करप, टोळांचीं पिलां उदकांत बुडोवप, धुंवर आनी उज्याच्या आदारान टोळ नश्ट करप, कीटकनाशकांचो वापर करप हे कांय मानव निर्मीत नियंत्रण उपाय आसात. १९४५ त इंग्लंडांत टोळ नियंत्रण संशोधन केंद्र सुरू केल्लें. टोळधाडीचें सर्वेक्षण, तिचें अनुमान, तिचेसंबंदीं लोकांमदीं जागृताय आनी नियंत्रणासंबंदीं मार्गदर्शन हीं ह्या केंद्राचीं मुखेल उद्दिश्टां. १९६०त अशेच तरेचो एक प्रकल्प संयुक्त राश्ट्रांच्या खास निधींतल्यान रेंवटी टोळांखातीर सुरू जालो.

**उपेग :** टोळ हे मुळांत उपद्रवी आसले तरीय तांचोय कांय प्रमाणांत उपेग जाता. नुस्तें गरोवपाच्या कामांत हांयस म्हणून तांचो वापर करतात. कुकडां आनी हेर पाळीव शेवणीं आनी बीन पाळीव शेवण्यांचें टोळ हें मुखेल अन्न. कांय देशांतले लोक टोळांचो अन्न म्हणून उपेग करतात.

सर्वसादारणपणान प्रौढ टोळाचो रंग हळदुवो-करडो आसता आनी लांबाय सुमार ४६ ते ६० मिमी. आसता. धडापरस तकली मोटी आसता आनी टोळाच्या आकारमानान दोळेय मोटे आसतात. पांयांच्यो दोन जोडयो आसल्यो तरीय उडपाखातीर फाटले जोडयेचो उपेग जाता. टोळाचें वजन सुमार दोन ग्राम आसता.

– कों. वि. सं. मं.

**टयुनिशिया :** (अरबी अल् - जम्हूरिया अत् - तुनिसिया). आफ्रिकेचे उत्तर देगेवयलें ल्हानशेंच अरब मुसलमानी प्रजासत्ताक. क्षेत्रफळ १,६४,१५० चौ. किमी. लोकसंख्या ८६,००,००० (१९९१). विस्तार २९° ५४' उत्तर ते ३७° २१' उत्तर आनी ७° ३३' उदेंत ते ११° ३८' उदेंत. ह्या देशाचें दक्षिण-उत्तर चडांत चड अंतर ७२० किमी. आनी उदेंत-अस्तंत ३२० किमी. ह्या देशाक १२०० किमी. लांबायेची दर्यादेग लाबल्या. हाचे उत्तरेक आनी उदेंतेक भूमध्य दर्या, आग्नयेक लिबिया, नैर्ऋत्येक आनी अस्तंतेक अल्जेरिया आसा. उत्तर देगेर टयूनिसाचें आखात आसून उदेंत देगेर हाम्मामेतचें आखात आनी गॅबेसचें आखात आसा. गॅबेसच्या आखातांत जेर्बा, केर्केना आनी शेर्गुई हे जुंवे आसात. टयुनिसच्या आनी हाम्मामेतच्या आखाताकडच्या लॅप बॉन व्दीपकल्पालागसार झेंब्रा आनी उत्तर देगेपसून काय अंतराचेर ला गालीट हे ल्हान जुंवे आसात. राजधानी टयुनिस.

मोरक्को – अल्जेरियाकडल्यान आयिल्ल्यो ॲटलास पर्वताच्या टेल ॲटलास आनी सहारा ॲटलास ह्यो दोन टयुनिशियांतल्यो मुखेल दोंगरावळी. अल्जेरियाचे शिमेकडल्यो तेबेसा वळींतल्यो काफ अश - शनाबी वा जेवेल चंबी (१५४४ मी.) आनी टयूनिसचे नैर्ऋत्येक सुमार ४८ किमी. चेर आशिल्लें जेबेल झागवान (१२९५ मी.) हीं तातूंतलीं मुखेल तेमकां. वायव्येकडेन क्रूमीरी आनी उत्तर देगेकडेन मोगोद पर्वत आसात. ॲटलासच्या दोनूय शाखांमदल्यान टयुनिशियाची मुखेल न्हंय मेजेर्दा इशान्येकडेन व्हांवत वचून टयुनिसच्या आखातांत भूमध्य दर्याक मेळटा. मेजेर्दाचें देगण पुर्विल्ल्या तळ्याचे द्रोणीत, गाळ साचून निर्माण जाल्लें आशिल्ल्यान रोमन काळासावन ताची धान्याचे कोठार म्हणून नामना आसा. ह्या सगळ्या दोंगराळ वाठाराक डॉरसेल म्हण्टात. ताचे दक्षिणेक २०० ते ५०० मी. उंचायेचो पठारी स्टेप तणाचो वाठार आसून ताचे दक्षिणेक सखल तणाचो वाठार आसा. ते उपरांत दक्षिणेक शॉट ह्या खाऱ्या तळ्याचो अंतर्गत उदका येरादारीचो वाठार आसा.

टयुनिशियाचें हवामान सादारण भूमध्य सागरी म्हळ्यार सौम्य आनी आर्द शियाळें, गरम आनी सुको गीम अशें आसता. सुमार वर्सभर अस्थिर अस्तंती वारें व्हांवता. पूण केन्ना केन्नाय दक्षिणेकडल्या सहारांतल्यान सिरोको हें सामकेंच उश्ण आनी सुकें वारें येता. हांकां टयुनिशियांत शेहेली म्हण्टात. तांकां लागून झाडां सगळीं सुकून वतात. दर्या लागीं आशिल्ल्यान हांगाच्या तापमानाचेर परिणाम जाल्लो दिश्टी पडटा. देगेवयल्या सूस वाठारांत जानेवारीचें किमान सरासरी तापमान ७° सॅ. आनी ऑगस्टांतलें कमाल सरासरी तापमान ३२° सॅ. आसता. हांगाचो शियाळो किमान ६.६° सॅ. आनी कमाल १८.३° सॅ. आनी सरासरी तापमान ११.१° सॅ. आसता. गिमांत तें किमान १८.३° सॅ. कमाल ३३.९° सॅ. आनी सरासरी २६.१° सॅ. आसता.

हांगा पावस सादारणपणान ऑक्टोबर ते मे ह्या म्हयन्यांत पडटा आसलो तरी, चडसो पावस नोव्हेंबर ते फेब्रुवारी ह्याच काळांत पडटा.

टयुनिशियाचे उत्तरेकडल्या दोंगराळ वाठारांत आनी क्रूमीरी वाठारांत दाट रानां आसात. तातूंत बुचाचो ओक, चीड, थूया, अलेप्पो, पाइन, जेतून, जुजवे, गम आदीं झाडां आसात. हाचेभायर नेचे, आल्फा, एस्पार्टो हीं तणां तशेंच खाजूर, ऑलिव्ह, द्राक्ष, लिंबू हीं फळां आसात.

हांगाच्या रानांत रानदुकरां, तणाच्या वाठारांत ल्हान प्राणी, वांस्वेलां, प्लोव्हर, चित्ते, तरस, कोले, कुरंग आदी मोनजात मेळटा. हांगा विंचू खुबूच आसात. तेचपरी नागाच्यो, शिंगाचो व्हायपर ह्यो जाती मेळटात. हांगा

वेगवेगळ्यातरेचे पक्षीय खूब आसात. हांगाच्या दर्यांत ताल्ले, टयूना आदी नुस्तें भरपूर मेळटा.

टयुनिशियांतले मूळचे लोक बर्बर. इ.स. आदी बाराव्या शतमानांत फिनशियन लोकांनी उटिकाची वसणूक केली. जाल्यार इ.स. आदी णव्या शतमानांत टायरच्या वसाहतवाल्यांनी टयुनिसा लागसार कार्थेजची वसणूक केली. उपरांत बर्बर आनी कार्थेजचो संकर जालो. रोमाबरोबरच्या तिसऱ्या प्यूनिक झुजांत कार्थेज हरले आनी थंय रोमन, व्हँडाल आनी बायझंटिन हाच्यो एकाफाटोफाट एक अश्यो सत्ता आयल्यो.

फुडें चवथ्या शतमानांत हांगा क्रिस्ती धर्माचो प्रसार जालो. पूण सव्या आनी सातव्या शतमानांत बायझंटिनाचे कारकिर्दींत धर्मीक वाद विवाद वाडले. सातव्या शतमानांत अरबांनी हांगा घुरी घालून केरवाँ हें शार स्थापन केलें. मोरोक्को, अल्जेरिया, टयुनिशिया आनी लिबिया ह्या अस्तंत्या अरबी राश्ट्रांचो एकचार दाखोवपी 'मागरिब' वाठारांतलें हें पयलें शार. इ.स. ८०० त इब्राहिम इब्न अल अगलब हाणें आपलें हांगा राजघराणें स्थापन केलें. इकराव्या शतमानांत कैरोच्या खलिफान मागारिबचेर दुसरी अरब घुरी घाली. ११३५ त सिसिली घेवन नॉर्मनांनी दर्यादेगेर सत्ता स्थापन केली. पूण मोरोक्कोच्या अल्मोहेदांनी ११५९ त टयुनिशियाचेर जैत मेळोवन मागारिब वाठार आपल्या शेकाखाल हाडलो.

टयुनिशियाच्या राज्यपालान १२२८ त स्वातंत्र हाफसिद घराणें स्थापन केलें. ह्या घराण्याच्या ३०० वर्सांचे कारकिर्दींत इस्लामी कला आनी संस्कृतीक बरी पोसवण मेळ्ळी. तशेंच हांगा झैतून (मशीद) विद्यापिठाची स्थापना जाली. १५७४ त तुर्कांनी स्पॅनीश लोकांक टयुनिशियांतल्यान धावंडावन घाले. सतराव्या शतमानाच्या मधेकाक तुर्की सुलतानान नेमिल्ल्या 'बे'ची सत्ता टयुनिशियांत आयली.

१८५७ त मुहंमद बे हाणें मुसलमान आनी बिगरमुसलमान हांची कायदेशीर समानता आनी तांकां राखण जाहीर केली आनी ताच्या उपरांतच्या सादिक बेन मुस्लीम बेची निरंकूश सत्ता संपुश्टांत हाडपी संविधान चालीक लायलें. १८८१ त फ्रँच टयुनिशियांत रिगले. ताणीं सगळी सत्ता आपल्या हातांत घेतली. सादिक बे फकत नांवापुरतोच राजा उरलो. युरोपियांक सगळे तरेच्यो सवलती आनी हक्क मेळटाले. पूण टयुनिशियनांक ते न्हयकारप जाताले. अश्यावेळार राश्ट्रीय चळवळींचीं चिन्नां दिसूंक लागलीं. पयल्या म्हाझुजाउपरांत १९१९ त शेख अब्द अल अझिझ तालवी हाच्या फुडारपणाखाल पॅरिसचे शांतता परिशदेंत टयुनिशियाचे स्वायत्ततेची मागणी करपी शिश्टमंडळ गेलें. पूण ताची थंय दाद लागली ना. तालबीन दस्तूर (संविधान) पक्ष काडलो. १९३४त तालबीच्या फुडारपणाखाल पोरनो दस्तूर पक्ष आनी हबीब बुर्गीबच्या फुडारपणाखाल हितैषी, आधुनिकतावादी नवो दस्तूर पक्ष अशे दोन पक्ष जाले. दुसऱ्या म्हाझुजांतल्या फ्रांसाच्या हारी उपरांत मार्शल पेनांच्या व्हिशी शासनाकडेन टयुनिशियाची सत्ता आयली. पूण फुडें १९४३त अमेरिकेच्या आनी ब्रिटनच्या सैनिकांनी आफ्रिकेंतल्या जर्मनांक धावंडावन घालून टयुनिशियांत परत फ्रँच सत्ता हाडली.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत हबीब बुर्गीबचो नवो दस्तूर पक्ष आनी टयुनिशियाची कामगार चळवळ हांकां नेट आयलो. १९५०-५१त नव दस्तूर पक्ष आनी फ्रँच सत्ताधारी हांच्यांत एकी जावन मुहंमद चेनिक ह्या मवाळ राश्ट्रीय फुडाऱ्याच्या फुडारपणाखाल नवें शासन सिद्ध जालें. पूण ह्या शासनाचो तिगाव चड तेंप उरलो ना. टयुनिशियन फुडाऱ्यांनी संयुक्त राश्ट्रामुखार हो प्रस्न दवरलो, तेन्ना फ्रँच अधिकाऱ्यांनी पंतप्रधान चेनिक बुर्गीब आनी हेर फुडाऱ्यांक अटक केली. ताकालागून राश्ट्रीयवाद्यांनी सशस्त्र उठाव केलो. ३१ जुलय १९५४ दिसा फ्रांसाचो मुखेल प्रधान पिएर मेंदेझ-फ्रांस हाणें टयुनिशियाक येवन टयुनिशियांक पुराय अंतर्गत स्वायत्ता जाहिर केली. १९५६ त फ्रांसान मोरक्कोक स्वातंत्र दिलें. तेन्ना टयुनिशियाक स्वातंत्र दिले बगर गत्यंतर नाशिल्लें. २० मार्च १९५६ दिसा टयुनिशिया पुराय स्वतंत्र जालो आनी बुर्गीब हो मुखेल प्रधान जालो. २५ मार्च १९५६ दिसा घटना समिती निर्वाचीत जावन, २५ जुलय १९५७ दिसा लामीन बेक पदच्युत केलें. टयुनिशियाचें प्रचासत्ताक उदघोशित केलें आनी हबीब बुर्गीब हाका राश्ट्रप्रमुख म्हणून वेंचून काडलो. २३ जुलय १९५६ दिसा टयुनिशिया संयुक्त राश्ट्रांचो सदस्य जालो. १ जून १९५९ दिसा नवें संविधान चालीत आयलें आनी १९५९ च्या वेंचणुकांत बुर्गीब अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. नवे निधर्मी कायदे, बायलांक मतदानाचो अधिकार, बहुपत्नीकत्वाचेर बंदी, आदी सुदारणा जाल्यो. देशाचो अध्यक्ष हो राज्याचो आनी शासनाचो मुखेल आसून तो सेनामुखेलीय आसता. खरी कार्यकारी सत्ता अध्यक्षाच्याच हातांत आसता. मंत्रीमंडळांत १५ मंत्री आनी ७ राज्यसचिव आसतात. देशाचो कारभार मंत्रिमंडळ करता. ताची एकसदनी लोकसभा १०१ वांगड्यांची आसता. तांची आनी अध्यक्षाची वेंचणूक प्रत्यक्ष सार्वत्रिक आनी गुप्तमतदानान दर पांच वर्सांनी एकाच वेळार जाता.

कारभाराखातीर देशाचे १३ विलायत (गव्हनारेट) हे विभाग केल्यात आनी दरेक विलायतचो मुखेल 'बाली' (गव्हर्नर) आसता. विलायतेचे विभाग मुतामदीयात (Delegation) आसून त्या दरेकाचो मुखेल मुतामद आसता. ताच्यायपरस ल्हान विभाग म्हळ्यार शेखत आनी कम्यून हांगा आदल्या पांवड्यार आशिल्ली शरियत आनी रबिनिक न्यायालयां रद्द करून नवीं निधर्मी न्यायालयां स्थापन जाल्लीं आसात. तीं प्राथमिक, अपील आनी उच्च ह्या तीन पांवड्यांचेर आसतात.

**अर्थीक स्थिती:** टयुनिशिया हो चडसो शेतीचेर आदारिल्लो देश आसा. शेतीच्या उत्पन्नांत गंव, बार्ली, ऑलिव्हचें तेल, लिंबू, संत्रां, मोसंबी, खाजूर, साकर , बीट, द्राक्षां हांचेपसून तयार केल्लीं मद्यां हीं मुखेल पिकां आसात. हाचेभायर जर्दाळू, पेअर, सफरचंद, पीच, प्लम, अंजीर,डाळिंब, बदाम, शॅडॉक, पिस्ते, एस्पार्टो तण, मेथी आनी बूच हांचेंय बऱ्याच प्रमाणांत उत्पन मेळटा. शेती वेवसायाभायर हांगा मोनजात पोसप नुस्तेमारी आनी रानांतल्यान इमारती खातीर लाकूड काडप, तशेंच रेल्वेखातीर आनी जळणाखातीर लाकूड काडप हे वेवसाय चलतात.

टयुनिशियांत रानां, शेतां, फळबागो, ऑलिव्ह तेल, नुस्तें हांच्या उत्पादनावेल्यो प्रक्रिया, कापड आनी कपडे, बांदकाम साहित्य, घरगुती सामान, सारें हांचे कारखाने आसात. हांगाच्या टयुनिस स्फाक्स ह्या शारांत सुपर फॉस्फेट, हायपर फॉस्फेट, शिंशें, शिमीट हांचे कारखाने आसात. देशाक लागपी तंबाखूच्या सगळ्या पदार्थांचें उत्पादन हांगाच्या एका शासकीय कारखान्यांत जाता. हाचेभायर कॅसरीन हांगा सेल्युलोजचो, ग्रॅंबाल्या हांगा द्राक्षांचो आनी संत्र्यांच्या रसाचो, बेझा हांगा साकरेचो, बीझर्ट हांगा तेलशुद्धीकरण, मेग्रीन हांगा संगमरवरी कामाचे कारखाने आसात. हांचेभायर फळां, भाजीपालो, नुस्तें आदी डंबोबंद करप, पीठाच्यो

गिरण्यो, शाबू, सिगरेट, सोरो, ॲल्युमिनीयमचीं आयदनां, जोतीं, आदींचे ल्हान-व्हड कारखाने आसात, तशेंच गालीचे तांब्यावेलें नक्षीकाम, कातड्याचो वस्तू, जोतीं, भरतकाम, मातयेचीं आयदनां, जडजवाहीर आदींचे हातवेवसाय आदल्या तेंपासावन चालू आसात. पर्यटन वेवस्था हो हांगाचो एक म्हत्वाचो उद्येग आसा.

ट्युनिशियन कामगारांची सर्वसादारण संघटणा आसून तिची स्थापना १९४६त जाली. तेभायर शेतकरी, विद्यार्थी, कारागीर, वेपारी आनी बायलांची अश्यो संघटणा आसून तेवीस विभागीय संघटणा आसात.

दिनार हें हांगाचें अधिकृत चलन आसा. ट्युनिशियन बँकिंग कंपनी, फ्रँको ट्युनिशियन आनी किंग अँड लोन कंपनी तशेंच नॅशनल ॲग्रिकल्चरल बँक ह्यो उद्येगधंद्यांच्या आनी शेतकीचे उदरगतींत हातभार लायतात. ट्युनिस हें हांगाचें मुखेल वेपारी आनी वितरण केंद्र आसून थंय बँको, आयात-निर्यात कार्यालयां तशेंच खाणी आनी हेर उद्येगधंद्यांचीं कार्यालयां आसात. स्फाक्स हें ऑलिव्ह तेल आनी फॉस्फेट हांच्या निर्यातीचें आनी बीझर्ट हें धान्य आनी ऑलिव्ह तेल हांचें केंद्र आसा. अमेरीका, इटली, अस्तंत जर्मनी, ब्रिटन, पोलंड, रशिया, यूगोस्लाव्हिया आदी विदेशी देशांकडे ट्युनिशियाचो वेपार चलता.

अल्जेरिया आनी मोरक्को ह्या देशांकडेन रेल्वेमार्गान तशेंच रस्त्यान आनी ट्रिपोली (लिबिया) आनी कैरो हांचेकडेन रस्त्यान ट्युनिशिया जोडिल्लें आसा. देशांतले सगळे वाठार रेल्वेमार्गान आनी रस्त्यांनी मुखेल शारांक जोडिल्ले आसात. १९८४ मेरेन हांगा २६,२०० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. तातूंत ११,००० किमी. लांबायेचे मुखेल रस्ते आशिल्ले. १९८६ मेरेन हांगा २,१७५ किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आशिल्ले. तातूंतले २१ किमी. लांबायेचे विद्युत् रेल्वेमार्ग आशिल्ले. ट्युनिस ॲर ही हांगाची राश्ट्रीय हवाई सेवा आसून हांगा पांच आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. हातूंत ट्युनिस - कार्थेज हो मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. ट्युनिस, ला गुलेर, बीझर्ट, सूस, स्फाक्स आनी गॅबेस हीं ह्या देशांतलीं मुखेल बंदरां आसात. ला साकीरा हें हांगाचें म्हत्वाचें तेलाचें बंदर आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** ट्यूनिशियांतले चडशे लोक हे भूमध्यसामुद्रिक कॉकेसाइड वंशाचे आसून तातूंत दक्षिणेकडल्या निग्रॉइडांची भरसण जाल्ली दिसता. हांगाच्या मूळ बर्बर लोकांचो फिनीशियन, हिब्रू, ग्रीक, रोमन, व्हँडाल, बायझंटिन, अरब, स्पेनांतलो मूर, तुर्क हांच्या संबंदांतल्यान आयचो समाज तयार जाल्लो आसा. हांगाची लोकसंख्या ८,६०,००० (१९९०). १९९६ वर्सा हांगाच्यो शिक्षणसंस्था राश्ट्रीय मंत्रालयाचे देखरेखी खाल हाडपांत आयल्यो.त्याच वर्सा २०८ स्वतंत्र पुराणिक शाळांचें राश्ट्रीयकरण जालें आनी धर्मीक तशेंच भौशिक शिक्षणामदलो भेदभाव सदांखातीर नश्ट जालो. सद्या हांगा मुळावें ते उच्च माध्यमिक आनी विद्यापिठीय शिक्षण फुकट दिवपाची वेवस्था केल्या. ह्या देशांत सगळ्या प्रकारच्या शिक्षणाची सोय आसा.

हांगाची अधिकृत भास अरबी. पूण हो देश बरोच तेंप फ्रँचांच्या चेपणाखाल आशिल्ल्यान फ्रँच भाशेचोय प्रभाव हांगा खूब प्रमाणांत दिसता. शास्त्रीय स्वरुपाच्या लिखाणांत तशेंच वेव्हारांत जरी फ्रँच भाशेचो उपेग सगळेकडेन करपांत आयलो, तरी ललित साहित्यांत अरबीचो प्रभाव चड आशिल्ल्याचें दिसून येता. 'अल फ्रिक' हें हांगाचें नेमाळें साहित्यीक नदरेन म्हत्वाचें आसा. हांगाचीं फिरतीं वाचनालयां देशांत सगळेकडेन पुस्तकां आनी चित्रपट पावयतात. ट्युनिसच्या राश्ट्रीय ग्रंथालयांत पौर्वात्य हातबरपांचो संग्रह आसा. बार्दो, सूस, मौनस्तिर, स्फाक्स, कार्थेज आदी थळांनी म्हत्वाचीं वस्तूसंग्रहालयां आसात.

हांगाच्या अरबी आनी फ्रँच ह्या दोनूय भासांतल्यान दिसाळीं उजवाडाक येतात. तेभायर कामगार संघटणा, युवक संघटणा, वेपार, सांख्यकी, समाज आनी संस्कृती प्रक्षेपण, राखण, बायलांचे प्रस्न, उद्देगधंदे आदी विशयांवेलीं जायतीं नेमाळीं उजवाडाक येतात. ट्युनिशियांत फुटबॉल, पेंवप आनी मुश्टियुध्द हे क्रीडाप्रकार चड लोकप्रिय आसात.

पर्यटन हो ट्युनिशियांतलो राश्ट्रीय वेवसाय जाल्लो आसा. ट्युनिसाकडच्या बार्दो हांगाच्या वस्तुसंग्रहालयांतले कार्थेजी आनी रोमन काळांतले अवशेश, रोमन मोझेइकचे संग्रह, सूस वस्तूसंग्रहालयांतले इ.स. आदी सव्या शतमानापसून इ.स. ६व्या शतमानामेरेन वास्तूशिल्पाचे नमुने एल. जेम (थायसद्रस) हांगाचो आखाडो, कलॉसियम, दुग्गा हांगाचीं देवळां, कार्थेजचें तळें, गाफ्सा हांगाचें रोमन न्हाणीघर, हुजेर आनी जेरीव्ह हांगाच्या मशिदीची कला, गॅबसेचे मशिदींतली मूर कला, ट्युनिसचो सुगंधी द्रव्यांचो बाजार हीं भोंवडेंकारांचीं मुखेल आकर्शणां आसात.

– कों. वि. सं. मं.

## ट्रॉटस्की, लीअन : (जल्म : ७ नोव्हेंबर १८७९ ज्यानोव्हक, रशिया; मरण : २१ ऑगस्ट १९४०).

रशियन क्रांतिकारक फुडारी. ताचें खरें नांव ब्रानस्टीन. क्रांतिकार्या खातीर संघटणेचे पद्दतीप्रमाण धारण केल्ल्या ट्रॉटस्की नांवांन ताणें मुखार नामना जोडली. ह्या नामनेच्या रशियन क्रांतीकाराचो जल्म रशियेंत एका सामान्य शेतकामत्याच्या कुटुंबांत जालो. ताचें उच्च शिक्षण कीव्ह विद्यापिठांत जालें. शिक्षण काबार जातकूच ताणें क्रांतिकारक आंदोलनांत वांटो घेतलो. १८८९ ते १९०२ मेरेनचो काळ ताका बंदखणींत आनी देशाभायर काडचो पडलो. सुरवेक, म्हळ्यार १९०३ च्या सुमाराक तो लॅबिनाचो विरोधक आशिल्लो. लॅनिन बोल्शेविक गटाचो मुखेली आशिल्लो आनी ट्रॉटस्की मेन्शेविक गटांत आशिल्लो. पूण लॅनिन लंडनाक आशिल्लो तेन्ना ट्रॉटस्कीक आपोवन हाडून ताका इस्क्रा ह्या खबरांपत्राच्या संपादक मंडळाचेर नेमलो. ताणें केल्ल्या लिखाणाक लागून क्रांतिवादी येवजणांक नेट आयिल्लो. १९०५ त सेंट पिटर्सबर्गांत जाल्ले राज्यक्रांतीचो फुडारी आशिल्ल्यान ताका परत बंदखणींत घालो. बंदखणींत कांय दीस काडले उपरांत तो परत युरोपांत गेलो. ताणें विएन्नाच्यान प्रावदा नांवाचें खबरापत्र सुरू केलें.

पयल्या म्हाझुजाच्या तेंपार तो परदेशांतूच रावलो. परदेशी भोंवडेंत ताचे साबार फावटीं लॅनिनाकडेन संबंद आयले. ह्या काळांत तांचे भितल्ले मतभेद सोंपले. फेब्रुवारी १९१७त रशियेंत परत उठाव जालो. पूण तोय अपेशी थारलो. पयल्या म्हाझुजाक नेट आयिल्लो आसतना लॅनिन रशियेंत आयिल्लो. ह्या झुजाक लागून उपासमारीन त्राशिल्ले आनी जिविताचेर उठिल्ले शेतकामती सैनीक हांची स्थिती सुदारपाचे नदरेन कायंच करूंक शकनाशिल्लें केरेन्स्कीचें लोकशायी शासन हे परिस्थितीचो फायदो घेवन क्रांतिकारक उठावाचे तयारेक लागिल्लें. जुस्त ह्याच वेळार ट्रॉटस्की रशियेंत आयलो. तो येनाफुडें बॉल्शेविक पक्षांत वचून लॅनिनाचो सहकारी जालो. नोव्हेंबर १९१७ तले यशस्वी क्रांती फाटल्यान जी व्हड संघटणा

उबी आशिल्ली आनी जें सेनादल सज्ज केल्लें तातूंत लॅनिन हाचे वांगडा ट्रॉट्स्कीनूय कार्य केल्लें. एक कुशळ संघटक आनी हुशार सेनानायक म्हणून क्रांतिकाळांत ताचें नांव खूब गाजलें. लॅनिनान ताचे गूण वळखून आनी ताका सांबाळून घेवन, ताचेकडल्यान खूब म्हत्वाचीं कामां करून घेतलीं. परराश्ट्रसंबंद आनी झूज ह्या खात्यांचो मुखेल अधिकारी म्हणून नव्या साम्यवादी शासनांत ताणें रॅड सेना उबारपाचें मोलादीक काम केलें. रॅड सेना आनी व्हायट सेना हांचे भितर यादवी झूज सुरू जालें तेन्ना ट्रॉट्स्कीन रॅड सेनेचें सेनापतीपद सांबाळून व्हायट सेनेचो नाश केलो. हाका लागून लॅनिनासकयल बोल्शेविक पक्षांत ताका मानाची सुवात मेळ्ळी.

लॅनिनाच्या मरणाउपरांत ताचे आनी स्टालिनाचे मतभेद वाडत गेले आनी दोगांय भितर सत्तासर्त जाली. सातत्यशील आंतरराश्ट्रीय क्रांती हीच खरी समाजवादी क्रांती जावंक शकता, अशें ट्रॉट्स्कीचें मत आशिल्लें. पूण स्टालिनाक तें मान्य नाशिल्लें. हातूंत स्टालिन यसस्वी जालो. ताणें ट्रॉट्स्कीक रशियेंतल्यान धांवडावन घालो. तो ज्या देशांत वतालो थंय ताका स्टालीनाचे वांगडी त्रास दिवपाक लागले. निमाणेकडेन तो मॅक्सिकोंत वचून रावलो. पूण १९४०त स्टालिनाच्या हस्तकान ताची हत्या केली. रशियेंत ताच्या भुरग्यांकूय स्टालिनान मारून उडयलीं. टॅररिझम अँड कम्युनिझम (१९२०), लेनिन (१९२५), लिटरेचर अँड रॅव्होल्युशन (१९२५), हिस्टरी ऑफ द रशियन रॅव्होल्युशन, स्टालिन स्कूल ऑफ फॉल्सिफिकेशन (१९३७) आनी हेर ग्रंथ ट्रॉट्स्कीन बरयले. ताचें माय लायफ (१९३०) हें आत्मचरित्र प्रसिध्द आसा. क्रांती काळांतूय ताणें खूब लिखाण करून रशियन जनतेक झाराआड उठाव करपाक उत्तेजीत केल्ली. पूण पक्षाचे संघटणेचेर नियंत्रण दवरपाक मात ताका केन्नाच यश आयलें ना.

**ट्रॉट्स्कीवाद :** लॅनिनाच्या मरणाउपरांत साम्यवादी क्रांतीच्या धोरणासंबंदांत ट्रॉट्स्की आनी स्टालिन हांचे भितल्ले मतभेद वाडत गेले. अर्थीक कार्यक्रम, पक्षाची संघटणा आनी परराश्ट्र धोरण ह्या तिनूय मळांचेर तांचे संघर्श वाडत गेले. निमाणेकडेन स्टालिनान ट्रॉट्स्कीक रशियेंतल्यान शिमे भायरो केलो. ह्या संघर्शाच्या काळांत ट्रॉट्स्कीन रशियेचें धोरण आनी संवसारीक क्रांती हांचेविशीं जे आपले विचार मांडले, तांकां 'ट्रॉट्स्कीवाद' अशें म्हण्टात.

१९२४त लॅनिनाच्या मरणाउपरांत, अस्तंत युरोपांतल्या कम्युनिश्ट पक्षांचें अपेश रशियन फुडाऱ्यांच्या लक्षांत आयिल्लें. संवसारीक क्रांती घडोवन हाडप त्या वेळार तरी शक्य नाशिल्लें. हाची पुराय जाणीव स्टालिनाक आशिल्ली. ताका लागून ताणें 'एकाच देशांत समाजवाद' अशें धोरण घोशीत केल्लें. रशियेन आपल्या देशांतली क्रांती चड घट्ट करून संवसारीक कामगारांक ताचे विशीं ओड वाडटली अशी समाज रचणूक निर्माण करची अशी आनी मागीर त्या देशांतल्या कामगारांक क्रांतीखातीर तयार करचे अशी स्टालिनाची भुमिका आशिल्ली. पूण ट्रॉट्स्कीक ही भुमिका मान्य नाशिल्ली. ताच्या मतान क्रांतीचें वातावरण हेर देशांनीय पातळून तें तापत दवरपाचें काम रशियेन करचें. ताचेखातीर हेर देशांतल्या कम्युनिस्ट पक्षांक फावो तो आदार करचो, थंयच्या कामगारांक क्रांतीखातीर प्रोत्साहन दिवन मार्क्सवादाचें संवसारीक कामगार क्रांतीचें सपन साकार करचें. ह्या दोनूय विरोधी विचारांचेर रशियेच्या कम्युनिस्ट पक्षांत भासाभास जावपाक लागली. मुळाव्या पक्ष केंद्रासावन, पॉलिटब्युरोमेरेन सगळ्या पांवड्यांचेर ह्या वादान सतावन सोडिल्लें. एकसारको तीन वर्सां तो संघर्श चालूच उरलो. ऑक्टोबर १९२६ आनी १९२७ ह्या दोन खेपे भरिल्ल्या चौदाव्या आनी पंदराव्या पक्षपरिशदांनी स्टालीनाचे समितीच्या निर्णयाक मान्यताय दिली. ताका लागून ट्रॉट्स्कीवादाची रशियान कम्युनिश्ट पक्षांत हार जाली.

ट्रॉस्टस्की उपरांत ट्रॉट्स्कीवाद म्हळ्यार संवसारीक क्रांतीची विचारसरणी चालूच रावली. १९४८त पॅरिसांत भरिल्ल्या संवसारांतल्या साबार कम्युनिस्ट पक्षांच्या मेळ्याव्यांत स्टालिना आड विरोध उक्तावन ट्रॉट्स्कीवादाक तेंको दिल्लो. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत दक्षिण आनी आग्नेय आशियांतल्या श्रीलंका, इंडोनेशिया, मलाया, ब्रह्मदेश आनी हेर देशांनी ट्रॉट्स्कीवाद मानपी कम्युनिस्ट पक्षांची स्थापणूक जाली.

– कों. वि. सं. मं.

**'ठ' :** ट वर्गातलो दुसरो वर्ण आनी देवनागरी वर्णमाळेंतलें बारावें व्यंजन. संस्कृत भाशेंत 'ठ' शब्दाचे शिव, महाध्वनी, चंद्रमंडल, वर्तुळ अशे जायते अर्थ आसात.

ह्या वर्णाची पयली अवस्था अशोकाच्या दिल्लीच्या शिवालिक स्तंभावयल्या लेखांत दिसता. दुसरी आनी तिसरी अवस्था इ.स. च्या ११ व्या शेंकड्यांतल्या उज्जयिनीच्या लेखांत मेळटा. तन्त्रोध्दारतंत्रांत हे वर्णदेवतेची स्त्रीरूपांत कल्पना करून, तिचें ध्यान अशें सांगला –

पूर्णचन्द्रप्रभां देवीं विकसत्पङ्कजेक्षणाम् ।
सुन्दरीं षोडशभुजां धर्मकामार्थमोक्षदाम्।
एवं ध्यात्वा ब्रह्मरुपां तन्मन्त्रं दशधा जपेत् ॥

अर्थ – चंद्राप्रमाण कांतिमती, विकसत्कमलनयना, सौंदर्यवती, सोळा भुजांची, धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष हे पुरुशार्थ मेळोवन दिवपी अशें ब्रह्मरुपा 'ठ' देवीचें ध्यान करून तिच्या मंत्राचो धा खेपे जप करचो.



ठ च्या रुपाचो विकासक्रम.

– कों. वि. सं. मं.

## ठक्कर, अमृतलाल विठ्ठलदास

**ठक्कर, अमृतलाल विठ्ठलदास :** (जल्म : २९ नोव्हेंबर, १८६९, भावनगर, गुजरात; मरण : १९ जानेवारी, १९५१).

गुजरातांतलो एक म्हान समाजसुदारक. 'ठक्करबाप्पा' ह्या नांवानूच ताका चड वळखताले. ताचो बापूय विठ्ठलदास. तो भावनगरांतलो वेपारी आशिल्लो. इ. स. १९०० वर्सा पडिल्ल्या भिरांकूळ दुकळांत विठ्ठलदास हाणें समाजाची खूब सेवा केली. दुकळांत सापडिल्ल्यांखातीर आदार निधी उबारलो. तेन्नासावन ठक्करबाप्पाक गरिबांखातीर कश्ट करपाची प्रेरणा आपल्या बापायकडल्यान मेळ्ळी.

मॅट्रिकेचे परिक्षेंत ठक्करबाप्पा पयलो आयलो. १८९० वर्सा तो

पुण्याच्या अभियांत्रिकी म्हाविद्यालयांतल्यान एल. सी. ई. पास जालो. पुण्यांत आसतना ना. गोपाळ कृष्ण गोखले आनी न्या. महादेव गोविंद रानडे हांचो ताचेर खूब प्रभाव पडलो. बाप्पाचे लोहाना जमातींत बालविवाहाची चाल आशिल्ल्यान भुरगेपणांतूच ताचें लग्न जालें.

उपरांत ताणें वढवाण आनी पोरबंदर ह्या संस्थानांनी (१८९१-९९), उदेंत आफ्रिकेंतल्या युगांडा रेल्वेंत (१८९९-१९०२) आनी सांगली संस्थानांत (१९०४-१९०५) अभियंतो म्हणून काम केलें. तशेंच १९०३ वर्सा सांगली नगरपालिकेंत आनी १९०६-१९०७ च्या काळांत मुंबय नगरपालिकेंत ताणें काम केलें. तो मुंबयचे पालिकेंत काम करता आसतना अस्पृश्य जातींतल्या लोकांकडेन ताचें लक्ष गेलें आनी तांच्या उध्दाराखातीर तो काम करूंक लागलो. १९१४ वर्सा नोकरी सोडून तो 'भारत सेवक समाजा'चो वांगडी जालो.

आसाम, उत्तर प्रदेश, प. बंगाल, गुजरात आनी ओरिसा ह्या राज्यांनी वचून ताणें दुकळ-निवारणाचें कार्य केलें. 'मुंबय लेजिस्लेटिव्ह काउन्सील' हातूंत सक्तीच्या मुळाव्या शिक्षणाविशींचें विधेयक सादर करपाक ताणें खूब त्रास घेतलो. टाटा आयर्न आनी स्टील कंपनींत जमशेटपूर कामगार कल्याणाचें काम संघटीत करपाखातीर सोसायटीन इ.स. १९१८ वर्सा बाप्पाचीच नेमणूक केली. ताणें कामगारांक योग्य दरान वस्तू मेळपाखातीर एक येवजण तयार केली.

ओरिसांत आसतना ताणें पंचमहाल जिल्ह्यांतल्या भिल्लांची जीण लागींच्यान पळयली. तेन्नासावन ताणें आदिवासींचे उदरगतीखातीर आपल्या कामाक सुरवात केली. भिरा खेरी गांवांत एक आश्रम काडून अस्पृश्यांच्या कुटुंबांक प्रवेश मेळोवन दिलो. ताणें 'भिल्ल सेवा मंडळ' हाची १९२२ वर्सा दाहोद गांवांत आनी 'अंत्यज सेवा मंडळ' हांची स्थापणूक केली. भिल्ल समाजांतलें अज्ञान आनी तांचेर जावपी अन्याय पयस करपाखातीर ताणें खूब कश्ट घेतले. अस्पृश्यांखातीर बांयो आनी भंग्यांखातीर धर्मशाळा बांदपाखातीर ताणें फुडाकार घेतलो .जातीय निवाड्यांतले अस्पृश्यांचे स्वतंत्र मतदारसंघ रद्द जावंचे म्हणून महात्मा गांधीन केल्ले चळवळींत ठक्करबाप्पाचो मुखेल वांटो आशिल्लो. महात्मा गांधीचे विनवणेक लागून इ. स. १९३२ वर्सा तो 'हरिजन सेवा संघा'चो चिटणीस जालो.

१९३७ वर्सा कॉंग्रेसचीं मंत्रिमंडळां सत्तेर आयलीं, तेन्ना विंगड विंगड प्रांतांतले हरिजन, आदिवासी ह्या मागाशिल्ल्या लोकांची पळोवणी करपाचें कार्य ठक्करबाप्पाक मेळ्ळें, तें ताणें व्हड कसबान पुराय केलें. फुडें १९५० वर्सा ताणें महात्मा गांधीवांगडा देशभर भोंवडी केली. ते भोंवडेंत ताणें सगळ्या आदिवासी लोकांची म्हायती एकठांयली. हे म्हायतीच्या आदाराचेरूच उपरांत, आदिवासींच्या कल्याणाविशींचे कायदे तयार केले.

ताणें 'आदिवासी सेवा मंडळा'ची स्थापणूक केली. ताचे जिणेचीं मुखेल कार्यक्षेत्रां म्हळ्यार हरिजन आनी आदिवासी लोकांचें कल्याण तशेंच हुंवार, दुकळ पडिल्ल्या वाठारांनी वचून काम करप हीं आसात. ह्या कामांनीच ताणें आपली सगळी जीण सारली. समाजाची सेवा आनी तिचे विशींचें संशोधन हांचेविशीं ताणें स्वताची अणभव सिध्द पद्दत तयार केली. 'भारतांतले आदिवासी' (Tribes of India) हें ताचें पुस्तक इ.स. १९५० वर्सा उजवाडा आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

**ठग :** वाटमारी करून पोट भरपी लोकांचो एक समाज. हो शब्द 'स्थग' ह्या संस्कृत शब्दावयल्यान आयला आसूं येता. लोकांक नागोवपी, लुटपी असो ह्या शब्दाचो अर्थ जाता. हातूंत हिंदू आनी मुसलमान लोकांचो आस्पाव आसता.

ह्या लोकांचीं कामां गुपीतपणान चलतात. तांची एक सांकेतिक भास आसता. साधू, संन्यासी, वेपारी अशे भेस करून ते टोळयांनी भोंवतात आनी गिरेस्त लोकांक फटोवन तांकां नागयतात.

गळफास हें ठगांचें हुकमी हत्यार. गळफांसावरवीं लोकांक मारून तेच तांचीं मडीं पुरतात. ह्या ठग लोकांचो समाज खूब पुर्विल्लो आसून तांचे उत्पत्तीविशीं एक दंतकथा आसा ती अशी ः

पुर्विल्ल्या काळांत रक्तबीज नांवाचो नरमासभक्षक एक महादैत्य आशिल्लो. काली मातेन झूज करून ताची गोमटी उडयली. पूण ताच्या रगताच्या थेंब्याथेंब्यांतल्यान एक एक नवो दैत्य तयार जावपाक लागलो. तांकां मारता तशे तशे तांच्या रगतांतल्यान नवे दैत्य तयार जावपाक लागले. तेन्ना काली माता थकली. तिका घाम आयलो. तिच्या घामांतल्यान दोन वीर निर्माण जाले. तांकां देवीन एक एक लेंस दिलो आनी रगत सांडनासतना त्या दैत्यांक काबार करपाक सांगलें. तांणी त्या दैत्यांक लेंसाचो फांस गळ्याक घालून मारले. उपरांत देवीन तांकां वर दिलो की तुमच्या वंशजांनी वाटमारी करून प्रवाशांक मारचे आनी तांचेकडल्यो मोलादीक वस्ती काडून घेवन आपलें पोट भरचें. ठग आपणाक ह्या विरांचे वंशज समजतात.

कांय ठग लोक वाल्मिकीक आपलो पूर्वज मानतात. कारण वाल्मिकी हो वाल्या कोळी आसतना ठग आशिल्लो अशी तांची भावना आसा.

ठग लोक काली देवीक भजतात. ह्या लोकांचो मुखेली एका शुभ दिसा, फोंड खणपाखातीर लागपी एक कुदळ तयार करता आनी सोमार, मंगळार आनी शुक्रारा तिची पुजा करता.

आपूण वापरता ती कुदळ देवीचे शक्तीन भरल्या अशें ते मानतात. खून करतना आपूण कितेंय पाप करतां अशें तांकां केन्नाच दिसना. पूण तशें केल्ल्यान देवीक बळी दिवन संतुश्ट केल्ल्याचें समाधान तांकां मेळटा. बायलांक ते केन्नाच मारिनात, पूण तांका ते गुलाम म्हणून विकतात.

शूभ-अशूभ शकुनांचेर ठग लोकांचो खूब विस्वास आसता.

वाटमारी करपाक वचचे पयलीं ते देवीकडल्यान प्रसाद घेतात. घुघूम झाडाचेर बशिल्लें आसतना रडलें जाल्यार तें शूभ आनी उडटना रडलें जाल्यार ते अशूभ मानतात. गाढवाच्या रडपांत, तशेंच तांचे उजवे-दावे वटेन येवपातूय तांचे शुभाशूभ संकेत आसतात. वाटमारीचे मोहिमेचेर वतकच सगळ्यांत पयलीं मेळिल्ल्या ब्राह्मण, झाडूवालो, तेली, कुड्डो, थोंटो, फकीर, नर्तकी, मेस्त, गंगेची कावड घेवन वचपी हांची हत्या करिनात. वाघ हें कालिमातेचें वाहन मानून ते वाघाचीय शिकार करिनात. ठगांच्या कुटुंबांतली कोणूय बायल बाळंत जाल्यार, कोणाचेंय लग्न जाल्यार, पांच वर्सांपरस व्हडलो कोणूय मेल्यार, घोडो, माजर, सुणो, गोरवां वियेल्यार, कोणाचीय सुंता जाल्यार ते मोहिमेचेर वचनात.

टोळयेंत काम करपी दरेका ठगाक वेगळें नांव आसता. तांच्यांत बरें गोड उलोवन भूल घालपीय लोक आसतात. मारपाखातीर वेंचिल्ले सुवातेक बेला म्हण्टात. गळफांस लावपी मनशाक भुर्तोत आनी पांय ओडपी मनशाक शम्सीआ म्हण्टात. नव्या ठगाक कबुला वा ढायरो आनी सराइत ठगाक

बर्का म्हण्टात.

संघटीत अशा स्वरुपाचो, ठगांचो वेवसाय आतां लागीं लागीं सोंपला अशें म्हणूं येता. सुरवातेक इंग्लिशांनी आनी उपरांत भारत सरकारान अशा वेवसाया आड कडक कायदे आनी तितलीच कडक ख्यास्त करून अशा वेवसायांचेर बंदी हाडली. आधुनीक जीवन पद्दत विचारसरणी, विज्ञानीक विकास आनी शिक्षण प्रसाराच्या माध्यमांवरवीं अशा वेवसायांचेर आपशींच बंधना पडूंक लागिल्ल्यान ठगपणाचो वेवसाय नश्ट जावप अपरिहार्य जालें.

– कों. वि. सं. मं.

**ठाकूर :** महाराष्ट्रांतली एक मुखेल जमात. पंजाब आनी काश्मीर ह्या राज्यांनी आशिल्ल्या कांय जातिंकूय ठाकूर अशें नांव आसा. ठाकूर लोकांत हिंदू, मुसलमान, शीख आनी बौध्द ह्या धर्मांचे लोक भोवसंख्येन आसात. हातूंतल्या कांय लोकांक ठक्कर अशेंय म्हण्टात. राजस्थानांतले राजपूत सरदार स्वताक ठाकूर म्हणोवन घेतात.

सुलतान मुहंमदाच्या आक्रमणांनी बेजार जावन गुजराताचे ठक्कर रानांत पळून गेले. तांचे वांगडा हेर कांय लोकूय गेले. त्या सगळ्यांक उपरांत ठाकूर म्हणूंक लागले अशें डॉ. विल्सन हाचें मत आसा.

उत्तर भारतांतले एके क्षत्रिय जातिकूय ठाकूर अशें म्हण्टात.

महाराष्ट्रांतली ठाकूर जमात चड करून उत्तर कोंकणांतल्या कुलाबा आनी ठाणें जिल्ह्यांनी आसा. तशेंच पुणें, अहमदनगर, नासिक ह्या जिल्ह्यांनीय ठाकुरांची वसती आसा. नासिक जिल्ह्याचे अस्तंतेकडल्या दोंगराळ वाठारांत ठाकूर लोकांची मूळ वसती आशिल्ली. तांच्यांत दोन उपजाती आसात. क-ठाकूर आनी म-ठाकूर. कोंकणांतल्यान आयिल्ले क-ठाकूर आनी महालदेशांतल्यान आयिल्ले म-ठाकूर. तांच्या उलोवपांत परतून परतून क आनी म हे वर्ण येतात, ताका लागून तांकां तशीं नांवां मेळ्ळ्यांत, अशें म्हण्टात.

ठाकूरांचे वस्तीक ठाकूरवाडी म्हण्टात. तांची खोपटी ल्हान आसता. ल्हानशी एक रांदचीकूड आनी दुसरी व्हड कूड अशे घराचे दोन भाग आसतात. घरांतूच गोरवां बांदपाखातीर वेगळी सुवात आसता.

रांदपाखातीर ते लोक मातयेचीं आयदनां वापरतात. नाचणें, वरयां तांदूळ हांची भाकरी तशेंच शीत, दाळ आनी हेर कडुण हें तांचें नित्याचें अन्न आसता. तेचप्रमाण उडीद, तूर आनी कुळीद तांकां खूब आवडटात. भाकरेवांगडा ते सुकें नुस्तें भाजून खातात.

चडशे ठाकूर लोक मराठी भास उलयतात.

ठाकुरांच्यो बायलो धोंपरामेरेन न्हेसतात आनी पोलको घालतात, पूण पदर घेनात. दादले लंगोट आनी बंडी असो भेस करतात. हालीं दादले गांवांभायर वतना पुडवें वा पायजमो घालतात. बायलो हाताचेर, कपलाचेर, पोल्यांचेर पाडून घेतात. गळेसर आनी जोडवी हीं तांचीं सौभाग्याचीं चिन्नां आसतात. तशेंच रुप्याच्योय वस्ती त्यो वापरतात.

ठाकूर लोक भवानी, शंकर, पार्वती, हनुमान, कान्होबा, खंडेराव, वाघ्या, हिरवा, मुंजो, बेताळ, वीर ह्या देवतांक भजतात. ह्या सगळ्या देवांभितर ते हनुमान आनी शंकर ह्या देवांक चड श्रेश्ठ मानतात. तशेंच ते भुतांखेतांकूय भजतात. भूतबाधा जाल्यार ते भगताकडल्यान उपचार करून घेतात.

दिवाळेची परब क-ठाकूर उमेदीन मनयतात. होळी, गोकुळाश्टम, वाघबारस ह्या परबांक म-ठाकूर नाच करतात. ज्येश्ठ उमाशेक तांचो नाचाचो मोसम सुरू जाता आनी आश्विन उमाशेक सोंपता. नाचतना ते पदां म्हण्टात. केन्ना केन्नाय नाचाच्या पदांनी प्रस्न-जापो जातात आनी ते दोन-दोन दीस चलतात. नाचाच्या निमाणें शंकर-पार्वती, विष्णू, पृथ्वीमाता, चंद्र-सूर्य आनी प्रेक्षक हांकां नमन करतात. परबे वेळार ते आपलीं घरां रोजांच्या फुलांनी रंगयतात. तांचीं वाद्यां ते स्वताच तयार करतात. तारफा हें तांचें मुखेल वाद्य आसता.

आवळी, घुगरे, वाघ, धुमाळ, गवते, वयाळ हीं आनी हेर कांय कुळां ते आपलीं आडनांवां म्हणून वापरतात.

वयांत येतकच ते चले-चलयांचीं लग्नां करतात. व्हंकलेचें मोल दिवन लग्न जाता. वधूमुल्याच्या बदलाक भावी जांवय व्हंकलेगेर शेताचेर काम करता. आते-मामे भावंडांत लग्नां जातात. विधवेकडेन लग्न जावं येता.

म-ठाकुरांचीं लग्नां ब्राह्मण करता आनी क-ठाकूरांचीं लग्नां पुजारी करता. चली पसंत जातकच साकरपुडो करतात, ताका सुपारी फोडप अशें म्हण्टात. सादारणपणान मार्गशीर्ष आनी माघ ह्या म्हयन्यांनी तांगेर लग्नां करतात.

हळद लावप आनी तेलवण हे क-ठाकुरांच्या लग्नांतले मुखेल विधी आसतात. तेलवणाच्या वेळार एक बायल लग्नाचीं पदां म्हण्टा. त्या पदांक 'धवळे' म्हण्टात.

ब्राह्मणान लायिल्लें लग्न, पाटाचें लग्न, उदकाचो हांडो माथ्यार घेवन बायल घरांत येता आनी घरांतल्या दादल्याकडेन लग्न जाता तें लग्न, प्रेमविवाह, चलयेच्या हातांतलें कांकण घेवन केल्लें लग्न अशे ठाकुरांच्या लग्नाचे जायते प्रकार आसात. लग्न जातकच न्हवरो वेगळें घर बांदून आवय-बापायपसून कुशीक रावता. घोवा-बायलेचें पटलेंना जाल्यार तीं घटस्फोट घेतात. तेखातीर ठाकूर पंचायत आपयतात.

ठाकूर लोकांत जमात भरोवन न्याय दिवपाची चाल आसा. पयलीं गांवाची, मागीर पंचक्रोशीची, उपरांत १४ गांवांची, २१ गांवांची आनी निमाणी ८१ गांवांची जमात भरता. ८१ गांवांची जमात सगळ्यांत श्रेश्ठ. तिणें न्याय दितकच फुडें अपील ना. जमातीचे सभेंत पंचमंडळी उलयता. जमातीचेर सगळ्या ठाकुरांची श्रध्दा आसता.

म-ठाकूर मडीं पुरतात. क-ठाकूर मेल्ल्या मनशाचे वा ताच्या सोयऱ्यांचे इत्सेप्रमाण केन्नाकेन्नाय मडीं लासतात. पावसाळ्यांत मात पुरतात. चडशे संस्कार हिंदूंभाशेनूच करतात. क-ठाकूर मडें पुरिल्ल्या जाग्यार एक फातर पुरतात. ताचेर बायल वा दादल्याची आकृती काडटात. ताका 'वीरगळ' अशें म्हण्टात. म-ठाकूर सातव्या वा धाव्या दिसा क्रिया करतात. त्या दिसा खाशेल्या देवांची पुजा करतात. तेराव्या दिसा ठाकूरवाडींतले सगळे लोक लागींचे तळयेर वचून थंय खाड करून न्हातात.

ठाकूर जमातींत दादल्यान कश्टांचीं कामां करप आनी पयशांचो वेव्हार, बाजार हीं कामां करप अशी वांटणी केल्ली आसा.

शेती हो ठाकुरांचो मुखेल वेवसाय आसा. तेचप्रमाण नुस्तेमारी आनी दिसवड्याचींय कामां ते करतात. नासणें, वरयो हीं पिकां ते पिकयतात. शेतीचें काम मंगळारा दिसा सुरू करिनात. पेरणे पयलीं क-ठाकूर देवाक कोंबो बळी दितात.

– कों. वि. सं. मं.

**ठाणें (शार) :** महाराष्ट्र राज्याच्या ठाणें जिल्ह्याचें मुखेल थळ. लोकसंख्या ३,८९,००० (१९८१). आग्रा आनी हैदराबाद वचपी म्हामार्गार, उल्हास न्हंयेचे खाडयेर अस्तंतेकडेन हें शार वसलां. आदीं हें एक नामनेचें बंदर आशिल्लें. मुंबय-ठाणें हो सुमार ३२ किमी. चो भारतांतलो पयलो रेल्वेमार्ग ठाण्याक १८५३ त सुरू जालो. आदल्या तेंपार शिलाहार, बिंब, यादव ह्या राज्यकर्त्यांनी हांगा राज्य केलां. बिंबाचें सैनिकी ठाणें हांगा आशिल्लें आनी ताका स्थानक म्हण्टाले. स्थानक ही अपरांत वाठाराची राजधानी आशिल्ली. स्थानकावयल्यानच ह्या वाठाराक ठाणें नांव पडलें अशें म्हण्टात. १३१८त मुबारक खलजी हाणें ह्या थळाचेर जैत मेळयलें. १५३२त पुर्तुगेजांनी तें आपल्या ताब्यांत घेतलें. तांणी हांगा भुईकोट किल्लो बांदलो. १७३७त मराठ्यांनी ह्या किल्ल्याचेर जैत मेळयलें. १७७४त इंग्लिशांनी तो परतो आपल्या ताब्यांत मेळयलो. १९४७त हो वाठार स्वतंत्र भारतांत आयलो. त्रिंबकजी डेंगळे हाका ह्याच किल्ल्यांत बंदखणींत दवरिल्लो. थंयच्यान मोटे युक्तीन ताणें पळ काडिल्लो. सद्या ह्या किल्ल्याचो उपेग बंदखण म्हणून करतात. ठाण्यासावन सुमार १.६ किमी. अंतराचेर नौपाडाक मनोरुग्णालय आसा. ह्या शारांत बऱ्यांत बरें सुती कापड, कागद, रंग, वस्तऱ्याचीं पातीं, विजेचीं आनी धातूचीं उपकरणां, वखदां, लाकडी खेळणीं, गरम कपडे, लोखणी सामान आनी यंत्रां, रेडिओ आदी वस्तू करपाचे कारखाने आसात. तेभायर मराठी ग्रंथ संग्रहालय, पोरणे तळें, कौपीनेश्वराचें देवूळ, रुग्णालयां, माध्यमिक शाळा, एक तंत्रीक विद्यालय, म्हाविद्यालय आनी महाराष्ट्र राज्य मार्ग परिवहन म्हामंडळाचें विभागीय कार्यालय आसा. हांगा केल्ल्या उत्खननांत मध्ययुगांतल्यो मुर्ती, देवळां आनी ताम्रपटय मेळ्ळ्यात.

– कों. वि. सं. मं.

**ठाण्यावयलो दिवो :** धर्मीक संबंद आशिल्लो दिवो. हिंदू घरांनी, घराचे मध्यवर्ती सुवातीचेर दिवो लावपाची पारंपारीक पद्दत आसा. हो दिवो अशे सुवातेर लायतात, जंयसून हाचो उजवाड सगळेकडेन फांकूंक पावता. आदले घरांचे मांडावळींत चौकी मध्यवर्ती सुवातेर आशिल्ल्यान हो दिवो भौतेक करून चौकाच्या दारांत लावपाची पद्दत आसताली. हो दिवो सादारणपणान तीनसांजचे कातरीर लावपाची प्रथा आसा. पूण घरांत धर्मीक सुवाळो आसल्यार हो दिवो त्या सुवाळ्याच्या वेळारय लायतात. आदले मुस्तींत घरांत उजवाड येवजणेची सोय सहजतेन उपलब्ध नाशिल्ल्यान एकाच दिव्यान भागोवपाचे येवजणेंतल्यान ह्या मध्यवर्ती दिव्याची कल्पना आयली आसूं येता.



ठाणें हो शब्द ठाण, स्थान वा ठिकाण हाचे वयल्यान आयला. हिंदींत स्थानाक थाना अशें म्हण्टात. वण्टींत वा खांब्यांत चुडो भरिल्ले बायलेच्या हाताच्या आकाराची लाकडी खुंटी आसता. ते खुंटयेक धातूची बरी दाट सरपळी आनी सरपळेच्या सकल्या पोंताक पांच वा ताचेपरस चड वातींचो दिवो आसता, हाकाच लामणदिवो म्हण्टात. जे सरपळेक हो दिवो हुमकळटा ते सरपळेक आंगभर नक्षीकाम आसता आनी दिव्याचें मालें सरभोंवतणीं घुंवपाची वेवस्था आसता.

आयच्या काळांत विजेच्या दिव्यांची सोय जावन लेगीत भौतेक हिंदूंच्या घरांनी ठाण्यावयलो दिवो लावपाची पद्दत आसा. ताका फूल, कुकूम घालपाची पद्दत आसा. हो दिवो फूक मारून वा हाताच्या वाऱ्यान पालोवंचो न्हय, जाल्यार तेल सोंपतकच तो आपशींच पालोवंचो असो संकेत आसा.

आदल्या काळांत चार रस्ते जंय एकठांय जातात त्या चौकाक वा गांवांतल्या तशेंच शारांतल्या कांय मुखेल सुवातींक आनी पोलीस वा सरकारी कचेऱ्यांक ठाणें म्हणपाची चाल आशिल्ली. लोकांचे सेवेखातीर असल्या सुवातींनी रातीच्या वेळार दिवे लावपाची वेवस्था करताले. ह्याय दिव्याक ठाण्यावयलो दिवो म्हण्टाले. कांयकडेन ठाण्यावयल्या दिव्याक देहली दीप म्हण्टात. देहली म्हळ्यार हुमरो. हुमऱ्याकडेन लायिल्लो दिवो म्हळ्यार देहली दीप. हुमऱ्याकडेन लायिल्ल्यान ताचो उजवाड दुसऱ्या कुडींतय फांकूंक पावता.

देवाकुडींतलो दिवो, तुळशीकडलो दिवो, लग्नावेळावयलो शकुनी दिवो, घरप्रवेशाच्या वेळार स्थापन केल्लो वास्तू दिवो हांचेभाशेनूच ठाण्यावयल्या दिव्याक हिंदू संस्कृतींत व्हड धर्मीक म्हत्व प्राप्त जालां.

– वा. ल. वझे

**ठुमरी :** उत्तर भारतीय संगितांतलो हो एक गानप्रकार. हो एक खाशेलो प्रकार आसून जनपदांत ठुमरेक म्हत्वाची सुवात आसा. शृंगार रसप्रधान आशिल्ले ठुमरेंत स्वर, शब्द आनी भाव हांचो सोबीत मेळ दिसता. ताका लागून काव्यांतलो भाव स्वरांच्या माध्यमान उक्तावन काव्यांतली मध्यवर्ती कल्पना सांगपी गानप्रकार म्हळ्यारूच ठुमरी.

'ठुमरी' हो शब्द 'ठुमक' ह्या शब्दावयल्यान तयार जाला. ठुमक हो शब्द नृत्याकडेन संबंदीत आसून ताचो अर्थ पदन्यास असो आसा. ताका लागून 'ठुमरी'चो अर्थ लेगीत 'नाचावांगडा म्हण्टात तें पद' असोच जाता.

श्रीकृष्णाचे रासलीलेचो हे ठुमरीकडेन संबंद येता. रासलीलेच्या नाचावांगडा म्हण्टात तें पद ठुमरेचे धर्तीचें आसुंये. ताका लागून ठुमरीच्या उगमाचो संबंद हो रासलीलेकडेन आसुंये अशें मानतात. नृत्याक लागून ठुमरेक अदीक चालना मेळ्ळी आसतली. उत्तर भारतांतल्या लोकसंगीतांतलें 'चाचर' वा 'चर्चरी' गीत आनी ठुमरी हातूंत खूब साम्य आसा. हाका लागून लोकसंगीताचें अधिश्ठान ठुमरेक मेळिल्लें दिसता.

१७ व्या शेंकड्यांत ठुमरी म्हणप जाताली असो उल्लेख 'रागदर्पण' ग्रंथांत मेळटा. १८व्या शेंकड्यासावन १९व्या शेंकड्यामेरेन ठुमरेची रचणूक म्हळ्यार नृत्य-अभिनयासयत गानप्रयोग असोय उल्लेख मेळटा. पूण १९व्या शेंकड्याच्या मध्याउपरांतूच ठुमरेचो प्रचार आनी उदरगत जावन संगीत क्षेत्रांत तिका मान्यताय आनी प्रतिश्ठा मेळ्ळी. ह्या काळांतलो लखनौचो बादशाह वाजिदअली शाह हाच्या संगीत, नृत्य प्रेमाक लागून 'ठुमरी' गायन विकसीत जालें. ताचो गुरू उस्ताद सादिक अली हाणें ठुमरी गायन प्रचारांत हाडलें. लखनौसावन ठुमरी नामनेक पावली. उस्ताद

सादिक अली हाणें खूब शिश्य तयार केले आनी ठुमरेचो प्रसार केलो.

वेश्या वेवसाय करपी नर्तकींनी ठुमरी गावपाक सुरू केल्ल्यान तिच्या प्रचाराक खुबूच हातभार लागलो. सितारीचेर वाजोवप जाताली ती रजाखानी गत, ही उस्ताद गुलाम रजा हाणें प्रचारांत हाडिल्ली. त्या काळची त्रितालाचे मध्यलयींत गावप जाताली तीय ठुमरीच म्हणपाचें मानप जालां.

उपरांत ठुमरीच्यो दोन शैली प्रचारांत आयल्यो -

पयली नृत्यप्रधान आसून तिका 'बोलबाँटकी ठुमरी' म्हण्टात आनी दुसरी गायनप्रधान आसून तिका 'बोलबनाव की ठुमरी' अशें म्हण्टात. बोलबनावाचे ठुमरेचेर लखनौचे उदेंतेकडलो अवध, बनारस आनी लागसारच्या वाठारांतल्या लोकसंगिताचो आनी संस्कृतायेचो प्रभाव पडून आनीक एक वेगळी शैली तयार जाली. तिका 'बनारसी ठुमरी' (पुरब शैली) म्हण्टात. ताका लागून बोलबनाव ठुमरीच्यो दोन शैली, लखनवी ठुमरी आनी बनारसी ठुमरी तयार जाल्यो. लखनवी ठुमरीचेर नबाबी संस्कार आनी लखनौ तशेंच लागसारचे भाशेचो आनी संस्कृतायेचो प्रभाव पडला. उपरांत उस्ताद बडे गुलाम अली आनी अलीबख्श खाँ हांणी 'पंजाबी ठुमरी' प्रचारांत हाडली.

ठुमरीची संहिता ही ब्रज, अवधी, भोजपूरी, लखनवी आनी कांय उर्दू भाशेंत रचिल्ली आसा. रचनेच्या पयल्या भागाक टेक आनी दुसऱ्या भागाक अंतरो म्हण्टात.

बोलबाँटकी ठुमरी नृत्यावांगडा ह्या नाचाच्या आंगान म्हणपाची आशिल्ल्यान तिची रचणूक लयकारीक अनुकूल अशीच आसता.

बोलबनावची ठुमरी बोलबाँट ठुमरेपरस ल्हान आसता. ती आळोवन, नटोवन म्हण्टात.

बोलबनावाचे लखनवी ठुमरेंत लखनौ तशेंच लागसारचे भाशेचो छाप दिसता. तशेंच तिचेर गझल, टप्पो हांचोय प्रभाव दिसता. पूण बनारसी ठुमरीचेर भोजपूरी, अवधी आनी लागसारचे संस्कृतायेचो तेच भशेन चैती, कजरी, झूमर ह्या लोकसंगिताचो प्रभाव दिसता.

पंजाबी ठुमरेचेर पंजाबी लोकसंगिताचो प्रभाव आसा.

ठुमरी म्हण्टना रागशुध्दतेपरस भाव परगटावपाचेर चड म्हत्व आसता. ताका लागून सौंदर्यवृध्दीखातीर मूळ रागांत दुसऱ्या रागांचीय भरसण करतात. विलंबीत वा मध्यलयींत ठुमरी सुरू करून पयली ओळ परत परत आळोवन अंतरो म्हण्टात आनी अंतऱ्याची पयली ओळ द्रुत सुरू करून नटोवन म्हणून सोंपयतात. तेन्ना तबल्याचेर लग्गी वाजयतात. ठुमरी म्हण्टना साथीक सारंगी वाजयतात.

बोलबाँटकी ठुमरी गंभीर राग सोडून हेर रागांनी म्हण्टात. बोलबनाव ठुमरी चड करून पहाडी, मांड, झिंझोटी, खमाज, सिंधुरा, सिंध भैरवी, काफी, भैरवी, तिलक कामोद, गारा, तिलंग, जोगीया, देस, पिलू, जंगला, कालींगडा ह्या रागांनी म्हण्टात. ठुमरेखातीर त्रिताल, दीपचंदी, दादरा, केहरवा ह्या तालांचो उपेग करतात.

नृत्यावांगडा बोलबाँटकी ठुमरी प्रचलीत आसून बोलबनावचे ठुमरींत लखनवी ठुमरी आनी बनारसी ठुमरी प्रचलीत आसात. हातूंत बनारसी ठुमरी चड प्रचारांत आसा. लखनवी ठुमरी बनारसी ठुमरेंतूच आस्पावि‌ल्लेभाशेन आसा.

तशीच उस्ताद बडे गुलाम अलीची पंजाबी ठुमरी खूब उणी प्रचारांत आसा. राजस्थानी लोकसंगिताचो प्रभाव आशिल्ली राजस्थानी ठुमरी होय एक प्रकार त्या वाठारांत प्रचारांत आसा. किराणा घराण्याच्या गायकांनी ठुमरी ही ख्याल आंगान गावन प्रचलीत केली.

ठुमरीचे आद्य प्रचारक उस्ताद सादिक अली आनी नवाब वाजिदअली शाह हे उंचेल्या पांवड्याचे ठुमरी गायक आनी रचनाकार जावन गेले.

सादिक अलीचे शिश्य कथ्थक नर्तक बिंदादीन महाराज, भैया गणपतराव हेय नामनेचे ठुमरी गायक आशिल्ले. तांचे शिश्य उस्ताद मौजुद्दीनखाँ तशेंच ठुमरीचे प्रवर्तक म्हणून जांचीं नांवां घेतात ते पं. जगदीप मिश्र, बडे रामदासजी, पं. भोलानाथ भट्ट, मलिकाजान, गोहरजान, रसूलनबाई, किराना घराण्याचे उ. अब्दुल करीम खाँ, सिध्देश्वरी देवी तेचप्रमाण अच्छन महाराज, शंभू महाराज, लच्छू महाराज हे नामनेचे ठुमरी गायक जावन गेले.

पंजाबी ठुमरेचे प्रवर्तक उ. बडे गुलाम अली, अलीबख्श खाँ हांचीं नांवां ठुमरी गायकेंत खूब गाजल्यांत.

आयज गिरीजादेवी, निर्मला अरूण, शोभा गुर्टू, जगदीश प्रसाद हे गायक-गायिका ठुमरी गावपाक मुखार आसात. तेचप्रमाण सितारादेवी, गोपीकृष्ण, दुर्गालाल, बिरजू महाराज हे नृत्यकार ठुमरेचे जाणकार आसात.

- चंद्रशेखर नारिंग्रेकर

**डंडिया नृत्य :** राजस्थानांतलो एक नाच. हो नाच दादले करतात. पंदरा-वीस दादले तरातरांचो भेस करून दोनूय हातांनी लांब बडयो घेवन वाटकुळांत उबे रावतात. वाटकुळांत मदीं आठ-धा गावपी आनी तांचेवांगडा धोल, घुंगूर हीं वाद्यां वाजोवपी लोक बसतात.

धोलाच्या तालार डंडिया नाचाक सुरवात जाता. नाचाक नेट येवंचो म्हणून मदीं बशिल्ले लोक 'हो, हो' असो प्रोत्साहन दिवपी आवाज करतात. नाचपी, नाचतना आपल्या हातांतल्यो बडयो मारून आवाज करतात.

खूब पुर्विल्लो असो हो नाच राजस्थानांत, खेड्यांनी तशेंच व्हड-व्हड नगरांनी लेगीत करतात. ऋतूचो बदल जातना जाल्ली उमेद ह्या नाचांतल्यान प्रगट जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**ड :** 'ट' वर्गांतलो तिसरो वर्ण आनी देवनागरी वर्णमाळेंतलें तेरावें व्यंजन. हाची पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनार शिलालेखांत, दुसरी क्षत्रपवंशी रुद्रदामनाच्या गिरनारलेखांत (इ.स. दुसरें शतमान), तिसरी समुद्रगुप्ताच्या प्रयागच्या खांब्यावयल्या लेखांत (इ.स. चें चवथें शतमान) आनी चवथी अबूचो परमार राजा धारावर्ष हाच्या काळांतल्या उडिया लेखांत (इ.स. १२०८) मेळटा.



'ड' च्या रुपाचो विकासक्रम.

वर्णोध्दारतंत्रांत हाचें स्त्रीरुपी ध्यानाचें वर्णन अशें केलां -

जपासिन्दूरसङ्काशां वराभयकरां पराम् ।
त्रिनेत्रां वरदां नित्यां परमोक्षप्रदायिनीम्
एवं ध्यात्वा ब्रह्मरुपां तन्मन्त्रं दशधा जपेत् ॥

**अर्थ** - जास्वंद आनी शेंदूर हांचे कांतीची, वर आनी अभय दिवपी, श्रेश्ठ, तीन दोळ्यांची वरदायिनी, मोक्षदायिनी आनी ब्रह्मरुप अशें ड देवतेचें ध्यान करून तिच्या मंत्राचो धा खेपे जप करचो.

'ड' चे उच्चारणस्थान मुर्धा.

– कों. वि. सं. मं.

**डच सत्ता (भारतांतली) :** सोळाव्या शतमानाचे सुरवातेक वास्को-द-गामा हाणें युरोपांतल्यान भारतांत येवपी जलमार्गाचो सोद लायलो आनी हिंदुस्थानांतल्यान युरोपांत वचपी म्हालाचे पुर्तुगेज मक्तेदार जाले. सुरवातेक तांकां हातूंत खूब फायदो जालो. डच लोक पुर्तूगेजांचे मध्यस्तीन आपल्या जहाजांतल्यान लिस्बनाक वचपी आशियांतलो म्हाल युरोपांत व्हरताले. ताका लागून डचांपरस पुर्तूगेजांकच चड फायदो जातालो. देखून १५८९ उपरांत डच लोक भारतांत येवपाक मार्ग सोदूंक लागले.

१५७९ ते १५९६ मेरेन लिनस्कोटेन, कार्नीलियस, हैटमन आनी हेरांच्या मार्गदर्शनाखाल ते भारतांत आयले. १६०१ मेरेन डच लोकांनी साबार भोंवड्यो केल्यो. १६०२त तांणी 'युनायटेड डच इस्ट इंडिया कंपनीची' स्थापणूक केली. हे कंपनीचेर डच पार्लमेंटाची देखरेख आसताली. कंपनीचो हिशोब दवरपाचें कामय डच सरकाराकडेनच आसतालें. डच सरकारान हे कंपनीक उदेंतेकडल्या राश्ट्रांकडेन वेपार करपाचो पुराय मक्तो दिल्लो. कांय काळांतच हे कंपनीन खूब भांडवल जमयलें. १६०५ वर्सा डच लोकांनी मच्छलीपट्टणाक आपली पयली वखार घाली. उपरांत तांणी सुरत, चिनसुरा कासीम बझार, पाटण, नेगापटम्, कोचीन आनी हेरकडेनय वखारी घाल्यो. वेंगुर्ल्यांत वखार चालू करून तांणी थंय एक किल्लोय बांदलो. ह्यो वखारी आनी डच सरकारामदीं पत्रवेव्हार जातालो. हो पत्रवेव्हार इतिहासीक साधनां म्हणून म्हत्वाचो आसा.

भारत आनी सामके अस्तंतेक आशिल्ल्या देशांकडेन डच लोकांनी वेपारी येरादारी सुरू केली. ते नीळ, अफू, तांदूळ आनी हेर म्हालाची भारतांतल्यान निर्यात करताले. १६७४त डच लोकांनी फ्रेंच लोकांचेर हार घालून तांकां मच्छलीपट्टणच्यान धांवडावन घाले. डच लोक फकत वेपाराच्या उद्देशान भारतांत आयिल्ले. तांकां राज्याची हाव नाशिल्ली. वेपारांत मेळपी पयशांचेरूच ते धादोशी आशिल्ले. युरोपांत डच आनी फ्रेंच हांच्यांत सुरवातेक सावन दुस्मानपण आशिल्लें. युरोपांत डच आनी फ्रेंच हांचेभितर झुजां जाल्यार तांचो परिणाम आपशींच भारतांतल्या डच आनी फ्रेंच हालचालींचेर जातालो.

१६७४त फ्रेंच लोक गोवळकोंड्याच्या सुलतानाकडेन झगडटा आसतना डच लोकांनी सुलतानाक आदार दिलो. फ्रेंच आनी मराठे हांचे संबंद सदांच बरे आशिल्ले. पूण फ्रेंचांआड कारस्थानां रचून डच लोकांनी मराठ्यांक आपलेवटेन घुंवडावपाचे खूब यत्न केले. डचांक वेपारी सवलती मेळच्यो म्हणून तांचो वकील हर्बट द यागार हो, शिवाजी कर्नाटकाचे मोहिमेचेर आसतना १६७७त ताका मेळ्ळो. शिवाजीकडल्यान ताणें कांय सवलती मेळयल्यो. १६९३त ताणें पाँडिचेरी मराठ्यांकडल्यान विकती घेतली. पूण १६९९त ताणें ती फ्रेंचांक परत दिली. डच आनी ब्रिटन हांचे संबंद १६१८ सावन इबाडिल्ले. १६७२-७४त डच लोकांनी सुरत ते मुंबयमेरेन चलपी ब्रिटिशांच्या वेपारांत आडमेळीं हाडलीं. १६९८त चिनसुराच्या डच अधिकाऱ्यांनी अजीमुश्शा हाचेकडेन ब्रिटिशांक मेळपी वेपारी सवलतींप्रमाण सवलती मागिल्ल्यो. १७५९ मेरेन डच आनी ब्रिटीश हांच्यांत वेपारी सर्त चालूच आशिल्ली. बंगालांत जाल्ली ब्रिटिशांची भरभराट डचांच्या मनाक खुपताली. म्हणून तांणी ब्रिटिशांआड आशिल्ल्या नवाबाक १७५९त आदार दिल्लो. तेउपरांत ब्रिटीश आनी डच हांच्यांत जाल्ल्या झुजांत डच लोकांचो पराभव जालो. तेचपरीन डच लोकांनी थळाव्या लोकांच्या कारभारांत केन्नाच आडमेळीं हाडलीं नात. फ्रेंच आनी चड करून ब्रिटिशांची सत्ता भारतांत घट जाले उपरांत डच लोकांचो शेक उणो जायत गेलो. तांणी हेरांभशेन आपली वेपारी पद्दत बदलली ना. हाका लागून कांय तेंपा उपरांत तांच्या हातांत आशिल्ली वेपारी सत्ताय गेली.

– कों. वि. सं. मं.

**डन जॉन :** (जल्म : १५७२, लंडन; मरण : ३१ मार्च १६३१, लंडन).

एक नामनेचो इंग्लीश कवी. लंडनच्या एका कॅथलिक कुटुंबांत जल्मल्ल्या जॉनाचें ऑक्सफर्डाक मॅट्रीक मेरेन शिक्षण जालें. उपरांत 'लिंकन्स इन' हे संस्थेंत ताणें कायद्याचो अभ्यास केलो. कॅथलिक आनी प्रॉटेस्टंट ह्या धर्मपंथांचो अभ्यास करून ताणें अँग्लिकन हो धर्मपंथ आपणायलो. कांय काळ सर टॉमस एगरटन ह्या उच्च शासकीय अधिकाऱ्याचो चिटणीस म्हणून ताणें काम केलें. पूण एगरटनच्या नात्यांतले ॲन पूर हिचेकडेन मोग करून गुपीतपणान लग्न जाल्ल्यान ताका बंदखण भोगची पडली. १६१५ वर्सा तो धर्मोपदेशक जालो आनी १६२१ सावन सेंट पॉल कॅथेड्रलचो डीन म्हणून काम केलें.

इंग्लीश कवितेच्या इतिहासांतल्या मिमांसक (मॅटाफिझिकल) काव्य-संप्रदायाचो प्रर्वतक म्हणून डन हाका मानाची सुवात आसा. मनशाची अधोगती, विनाशी शरीर आनी हांचे मजगतींचो धर्मावयलो भावार्थ हे विशींच्यो संकल्पना ताचे कवितेंत दिसतात. विश्वाचे निर्मितीविशींचो एक नवो अर्थ ताणें विज्ञानावरवीं सांगपाचो यत्न केला. दीसपट्ट्या अणभवांतल्यान जल्माक आयिल्ल्या ताच्या कवितांनी विश्वात्मकता दिसून येता. विज्ञान, धर्मशास्त्र आनी हेर विशय, प्रेम, परमेश्वर, मरण ह्या सारकिल्ल्या संकल्पनांचो भायल्यान विचित्र दिसपी पूण बुध्दीनिश्ट असो मेळ ताच्या कवितांनी दिसता. ताचें कवितेचें हें स्वरूप पळोवन सॅम्युएल जॉन्सन हाणें ताका मॅटाफिझिकल हें विशेशण लायलें.

डन हाणें आपल्या प्रेमकवितांतल्यान इंग्लीश प्रेमकवितेंतलें पारंपारीक अशें अलंकारी रूप न्हयकारून नाट्यमय शैली आपणायली. ताची कविता बुध्दीनिश्ठ आसली तरी ताचे कवितेंत भावानुभव दिसता. टी. एस. एलियट आनी डब्ल्यू. बी. येट्स हांणी डनाच्या काव्याचें मार्मिक पुनर्मूल्यांकन करून ताच्या काव्याचें म्हत्व दाखोवन दिलां. डन हाणें धर्माविशींय लिखाण केलां. ताचें चडशें साहित्य ताच्या मरणा उपरांत उजवाडा आयलें.

रोमन कॅथलिकांक चर्चनिश्ठेचो सोपूत घेवपाक आवाहन करपी 'स्युडो-मार्टीन' हो ताचो ग्रंथ १६१० वर्सा उजवाडा आयलो. त्याच वर्सा

ऑक्सफर्ड विद्यापिठान ताका एम. ए. ही पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो. सर हर्बर्ट जे. सी. ग्रीअर्सन हाणें ताची कविता २ खंडांनी संपादल्या (१९१२).

- कों. वि. सं. मं.

**डफ :** एक चामड्याचें वाद्य. दफ ह्या अरबी उतरावयल्यान हो शब्द आयलो आसूं येता. पाव इंच दाटायेची, चार इंच रूंद आनी सुमार दोन फूट लांब अशे तरेन एक फळी वाटकुळी बागयतात.उपरांत तिची दोनूय तोकां एकमेकांक धरून घट्ट बसयतात. मागीर धातूच्या वाटकुळ्या काकणाच्या आदारान ह्या बागयिल्ले फळयेच्या एका तोंडार चामडें ताणून बसयतात.



खणखणीत आवाज येवंचो म्हणून डफ वाजोवच्या वेळार तो उज्यार शेकयतात. वाजयतना एका हातान हड्ड्याक तेंकून धरून दुसऱ्या हातान वाजयतात.

दक्षिण भारतांत डफाक थंबत्ती म्हण्टात. तशेंच नेपाळांत दंफू, चेन्नईंत खंजिरी, डिंडिम अशींय नांवां आसात.

भारतांत सगळ्याक जरी डफाचो वापर करतात तरी मथुरा-वृंदावनांत ताचो खास प्रचार आसा. पोवाडो, लावणी ह्या गायन प्रकारांत डफाचो मुखेलपणान वापर जाता. तमाशांतूय डफाची साथ आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**डफला :** एक जमात. भारताच्या अरुणाचल प्रदेशांतले हे जमातीचें मूळ नांव निशांग वा निसी. पूण 'डफला' ह्या नांवानूच तांकां वळखतात. सुबनसिरी न्हंयेचे देगेवयल्या दोंगराळ वाठारांत ह्या लोकांची चड वसती आसा.

डफला लोक आपल्याक आबोतेनी नांवाच्या एका दादल्याचे वंशज मानतात. हिमालयाचे उदेंतेकडल्या सुपुंग नांवाच्या गांवांत आपलें मूळ वास्तव्य आशिल्लें आनी थंयसावन ते आसामांतल्या दोंगराळ वाठारांत आयले अशें समजतात.

डफला लोक पयलीसावन लूटमार करपी म्हणून प्रसिध्द आशिल्ले. आसामांतल्या आहोम लोकांचेर हल्लो करून तांकां लुट्टाले. तशेंच लागसारच्या हेर प्रदेशांनीय हल्ले करून तांकां मारताले. इ.स. १८३५त तांणी मैदानी प्रदेशांतल्या लोकांचेर हल्लो केलो. तेन्ना त्या प्रदेशांत येवपाक इंग्लिशांनी तांचेर बंदी घाली.

डफलांचे दोन वर्ग आसात. तातूंतल्या एका वर्गांतल्या लोकांचें मुखामळ वाटकुळें आनी चेपटें, नाक रूंद आनी चेपटें, पोल्यांचीं हाडां वयर आयिल्लीं, पिंगसो रंग आनी आंखूड बांध्याचे आसतात. दुसऱ्या वर्गाचे लोक लांबट तोंडाचे, सरळ नाकाचे, खोलगट दोळे आनी तांबश्या रंगाचे आसून ऊंच आसतात. ह्या दोनूय वर्गांतल्या लोकांचे शारिरीक बांदावळींत अशें वेगळेपण आसलें तरी सगळे डफला लोक बळिश्ट हाडांचे आनी सोबीत आसतात. हे लोक पॅलिओ-मंगोलायड वंशाचे आसात.

डफला लोक पयलीं लोकर आनी झाडांच्यो साली वस्त्र म्हणून वापरताले. पूण हालीं ते कपडे वापरतात. डफला दादले कमराक लुंगी गुठळावन वयर कांबळ पांगुरतात. माथ्यार जिरेटोपाभाशेन धनेश सुकण्याचीं पिसां लायिल्लें शिरस्त्राण घेतात. गळ्यांत धव्या, तांबड्या, निळ्या आनी पाचव्या रंगांच्यो मणिमाळो घालतात. बायलो लेंगो घालून वयर कांबळ पांगुरतात. कमराक वेतान विणिल्लो पटो बांदतात. गळ्यांत धातूंची कड्याकड्यांची सरपळी घालतात. डफलांच्या प्रदेशांत कापूस खूब जाता, ताका लागून ते सुती तशेंच वल्कली अशीं दोनूय वस्त्रां वापरतात.

डफला लोकांचीं घरां एकमेकांक तेंकून नासतात. दरेका घराक एक व्हड आंगण आसता. तांचें घर म्हळ्यार लांकडी ओंडक्यांचेर उबारिल्लें एक व्हड दालन. त्या घराची रुंदाय ६ ते ७ मीटर आसता. पूण लांबाय चड आसता. एका घरांत धा परस चड कुटुंबां रावतात. घराच्यो वण्टी शेंदऱ्यांच्यो आनी जमीन ताशिल्ल्या कोंड्यांची आसता. घराचें पाखें केळीच्या पानांचें वा कोंड्यांच्या सुकिल्ले पालयेचें आसता.

डफला लोक झूम पद्दतीन शेती करतात. शिकार करप, नुस्तें मारप हे तांचे आवडटे वेवसाय. मको आनी शीत तांचें मुखेल अन्न, पूण मास, कंदमुळां आनी कोंड्यांचे कोंबूय ते खातात. तांदळांपसून तयार केल्लो सोरो तांकां खूब आवडटा. हो सोरो ते सदांच घरांतच तयार करतात.

आने डुइनी वा सूर्यमाता हे देवतेक ते भजतात. तिचे कृपेनूच मनशाक संतत आनी संपत मेळटा अशी तांची समजूत आसा. तिका ते 'मिथून' म्हळ्यार एके तरेचे रानटी गायेचो बळी दितात.

डफला लोकांत पुरयताक खूब मान आसता. धर्मीक विधी तशेंच जल्म, मरण, बळी ह्या प्रसंगांचेरूय तांकां पुरयताची गरज आसता. व्रतां, जप करून हें पद कोणाकूय घेवपाक मेळटा.

आवय-बापूय आपल्या भुरग्यांचीं लग्नां थारायतात. एकाच कुळांत वा गोत्रांत लग्न जायना. लग्नांत, न्हवऱ्यान व्हंकलेचें मोल दिवचें पडटा. तें वर्सुकी, स म्हयन्यांनी अशें हप्त्यांनीय दिवपाक मेळटा. कांय डफला तरणाटे आपल्या भावी मांवाम्हऱ्यांत दोन वर्सां काम करतात आनी उपरांत ताचे धुवेवांगडा लग्न जातात. डफला लोक मावशेकडेन लग्न जातात. पूण आतेभयणीकडेन जायनात. डफला दादलो खूब बायलो करता. कुटुंबांत न्हवरो, ताच्यो बायलो आनी लग्न जावंक नाशिल्लीं भुरगीं इतले लोक रावतात. चले वयांत येतकच कपलाचेर केंसांचो आंबाडो बांदतात. ताका 'पोडुम' अशें म्हण्टात.

बाळंत जातकच दुसऱ्या दिसा पुरयत भुरग्याक नांव दवरता. चलयेक म्हयन्याउपरांत लेगीत नांव दवरतात. बारशाच्या दुसऱ्या दिसा सोयऱ्या-धायऱ्यांक सोरो दितात वा ज्रेवणूय घालतात.

मेल्ल्या मनशाम्हऱ्यांत सोऱ्याचो तांबयो आनी शीत दवरतात. उपरांत ताका उखलून घरालागसार पुरतात. पुरपाच्या जाग्यार कोंडे आनी लाकडांचें सरण करून तें, पानां आनी बळी दिल्ल्या जनावरांच्या शिंगांनी सजयतात. सांजवेळा तेच सुवातेर अग्नी पेटोवन, थंय अन्न आनी सोरो दवरतात.

कळकी आनी वेत तांच्या प्रदेशांत खूब प्रमाणांत आशिल्ल्यान डफला

लोक तांच्यो विंगड विंगड वस्तू तयार करतात. आयदनां, थाळयो, तरातरांचीं हत्यारां ते कोंड्यापसून तयार करतात. चामड्याच्यो ते पोतयो करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**डमरू :** एक चामड्याचें वाद्य. डमरू हें शब्दब्रह्माचें प्रतीक. शिवान तांडव नृत्याच्या वेळार ह्या वाद्याची निर्मिती केली अशें म्हण्टात. शिवाच्या डमरू नादांतल्यान महेश्वरसुत्रां  उद्‌भवलीं अशें मानतात.

संगितशास्त्रांतल्या तालांचें उगमस्थान डमरूच्या नादांत आसा, अशें संगितशास्त्रज्ञांचें मत आसा. चामड्याचीं सगळीं वाद्यां डमरुंतल्यानूच



उत्क्रांत जालीं आसुंये अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. उदुक्कू, निदुक्कू, बुद्‌बुदक हीं डमरुचींच हेर रुपां आसात.

कापालिक शैवांच्या हातांत डमरू आसता. भैरवाचे उपासक आशिल्ले महाराष्ट्रांतले भराडी दाव्या हातांत डमरू धरून उजव्या हाताच्या बोटान ते वाजयतात. नेपाळांत डमरूचे (डंफू) साथीन करपी एक नाच आसा, ताका 'डंफूनृत्य' म्हण्टात.

डमरूचें लक्षण संगित रत्नाकरांत दिलां तें अशें -

वितस्तिमात्रदैर्घ्य : स्यादष्टाङ्‌गुलमुखद्वयः ।<br>
यो यस्य मण्डलीयुक्ते मुंखे बध्दे च चर्मणा ।<br>
त्रिवलीवत्क्षाममध्यो निबध्दः सूत्रदोरकै : ।<br>
मध्ये च गाटतां नीतावञ्चन्यौ वादनाय च ॥<br>
भवेतां प्रान्तसंलग्नसनुन्मदनगोलकैः ।<br>
असौ डमरुको मध्ये धृत्वा हस्तद्वयेन च ॥<br>
डधवर्णो वादनीयः प्रोक्तो ज्ञिःशङ्‌कसूरिणा ।<br>
अन्यैः कर्खरटा वर्णाः प्रोक्ता डमरूकेऽधिकाः ॥

**अर्थ** - वेंतभर लांब आशिल्ल्या ह्या वाद्याच्या तोंडाचो व्यास दोनूय वटांनी आठ-आठ आंगळां आसता. दोनूय गोलाकार तोंडांचेर लोखणी कडीं बसोवन तांचेर चामडें ताणून बसयल्लें आसता. डमरुचो मध्यभाग अशीर आसता. दोनूय तोंडांचेर चडयिल्ल्या चामड्याच्या कडांतल्यान ओंवून घेतिल्ल्या सुताचे दोरयेच्या वेड्यांक मध्यभागार दुसरे एके दोरयेन आंवळून बांदिल्लो आसता. मध्यभागाचेर दोन लांबत्यो दोरयो बांदून तांच्या तोंकांक माती आनी मेण हांचे गुळे बांदतात. अशा ह्या डमरूचो अशीर भाग हातांत धरून 'डघ' वर्ण वाजोवंचो अशें निःशंक पूर्वाचार्यान म्हळां. 'कख' वा 'रट' अशे वर्ण वाजोवंचे अशेंय कांय जाणांचें मत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**डहाणुकर, प्रफुल्ला :** (जल्म : १९३४, बांदोडें - फोंडें).

नामनेची गोंयकार चित्रकार. तिचें आदलें पुराय नांव प्रफुल्ला सुब्राय जोशी. पिरायेच्या चवथ्या वर्सा शिक्षणाखातीर तिका मुंबय धाडली. मुंबयच्या शारदा इंग्लीश हायस्कुलांत तिणें मॅट्रीक मेरेन शिक्षण घेतलें. उपरांत १९५०त तिणें जे. जे. स्कूल ऑफ आर्टांत कलेचें शिक्षण घेतलें. ही कला आत्मसात करपाक तिका शंकर पळशीकर ह्या शिक्षकाचें मोलादीक मार्गदर्शन मेळ्ळें. १९५४ वर्सा तिणें आर्ट स्कुलांतलें शिक्षण पुराय केलें आनी त्याच वर्सा तिका भांगरापदक मेळ्ळें.

पदविका हातांत पडले उपरांत तिणें मुंबयंतच आर्ट सोसायटींत आपल्या चित्रांचें प्रदर्शन घडोवन हाडलें. ह्या प्रदर्शनावेळार तिका रुप्या पदक मेळ्ळें. १९६० वर्सा तिका फ्रॅंच सरकाराची मुद्राचित्रकलेची शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. शिश्यवृत्ती घेवन ती फ्रांसाक गेली. फ्रांसांतले 'एकोल द वो आर्ट्स अॅंड ओटलियर' हांगा तिणें ग्राफिक आर्टाचें शिक्षण घेतलें. १९६१ वर्सा फ्रांसांत तिणें आपल्या रंगीत चित्रांचें प्रदर्शन घडोवन हाडलें. उपरांत हंगेरी, स्वित्झर्लंड, जर्मनी, ऑस्ट्रेलिया आनी जपानांत जाल्ल्या प्रदर्शनांनी तिणें वांटो घेतलो. भारतांत मुंबयची गॅलरी ऑफ मॉडर्न आर्ट, दिल्लीची ललीत कला अकादमी, मुंबयचें प्रिन्स ऑफ वेल्स म्युझियम, नागपूरचें केंद्रीय म्युझियम आनी हेर साबार सुवातींनी भरिल्ल्या प्रदर्शनांनी तिणें आपलीं चित्रां प्रदर्शीत केलीं.

तिणें धातूकलेची आनी मृत्तिकाकलेचीय साधना केली. तशेंच जायत्या माध्यमांच्या आदारान 'कोलाज' ह्या प्रकारांत मोडपी वण्टीचित्रां तिणें तयार केल्ल्यांत. चित्रकलेंतल्या जायत्या माध्यमांतल्या सिरॅमिक ह्या माध्यमाचेर तिचो खास अभ्यास आसा. ती लाकूड, कंवची, ॲल्युमिनियम हांचो मिश्रप्रयोग करून वण्टीचित्रां करता.

१९६९ वर्सा दिलीप डहाणूकर हाचेकडेन तिचें लग्न जालें. तिका नाटक, टेबलटॅनिस, सतार, भरतकाम आनी शास्त्रीय संगित हांची आवड आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**डॅनीश भास :** डॅन्मार्काची राजभास. हेर बोलीभाशांवांगडा ती स्कॅंडिनॅव्हियन ह्या जर्मन भाशासमुहाच्या फांट्याची भास. हे भाशेंतलीं चडांत चड उतरां इंग्लीश आनी जर्मन उतरावळीकडेन जुळपासारकीं आसात. नॉर्वेजियन, स्विडिश आनी आयसलॅंडिक ह्योय ह्याच फांट्यांतल्यो भासो आसात. हातूंतल्या नार्वेजियन आनी स्विडिश ह्या दोनूय भाशांकडेन डॅनीशीचें चड साम्य आसा. हातूंतय डॅनीश आनी नॉर्वेजियन ह्या भासांनी इतलें साम्य आसा की तांकां डॅनो-नोर्वेजियन ह्या नांवान वळखप जाता. तेराव्या शतमानासावन अठराव्या शतमानामेरेन डॅनीश हीच नॉर्वेची धर्मीक आनी साहित्यीक भास आशिल्ली. फुडें मात रिक्समोल ही डॅनीश आनी स्विडिश हांचेकडेन सारकेपण आशिल्ली लोकभाशा नॉर्वेंत रूढ जाली. डॅनीश भाशिकांची संख्या सुमार पन्नास लाखां वयर आसा.

ध्वनी विचार : स्वर - आ, इ, ई, ए, ऍ, ओ, ऑ.

व्यजनां - स्फोटक - क, ग, त, द, ब.<br>
घर्शक - थ, फ, व, स, झ, ह.<br>
अनुनासिक - म, न.<br>
कंपक - र.<br>
पार्श्विक - ल.<br>
अर्धस्वर - य, व.

डॅनीश भास रोमी लिपीचो उपेग करता. c, q, w, x, z, हीं अक्षरां फकत परकी शब्दांतूच वापरप जातात. j हें अक्षर 'य' च्या उच्चाराखातीर वापरतात. d हें अक्षर शब्दाच्या निमाणें l, n, r, t उपरांत आयल्यार ताचो उच्चार जायना. तशेंच ते s, t आदी खंयय आयल्यार अनुच्चारीत आसता. तशेंच एकावयवी शब्दांत स्वराउपरांत येवपी g हें अक्षरय अनुच्चारीत आसता.

**व्याकरण** : नाम - नामांत दोन लिंगां आसात : सामान्य आनी नपुसक. तशेंच दोन वचनां आसात. नामा आदीं निर्गुण (निश्चित आनी अनिश्चित) विशेशण येता. नामाचें भोववचन खंयचोच प्रत्यय लागनासतना e,वा er हो प्रत्यय लागून वा स्वरविकार जाता. प्रथमा, द्वितिया आनी षश्ठी ह्यो तीन विभक्ती आसात.

विशेशण - विशेशणां नामाच्या लिंगवचनाप्रमाण बदलतात.

सर्वनाम - सर्वनामां लिंग, वचनाप्रमाण बदलतात. तांचीं षश्ठीचीं रुपां मात विशेशणाप्रमाण वागतात.

क्रियापदां - क्रियापदाचें रूप सर्व पुरुषी एकूच आसता. कांय क्रियापदां सौम्य (नेमान) आनी कांय खर (अनेमान) असो फरक आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**डॅनीश साहित्य :** आर्विल्ले भाशेचें ख्रिस्तआदीं २०० वर्सां डॅन्मार्कांत घोळणुकेंत आशिल्ल्या, इंडो-जर्मनींत मेळटा. डॅनीश भाशेचें सुर्वेचें लिखीत रूप इ. स. २०० च्या सुमाराक प्रचलीत आशिल्ले रुनीक लिखावटींत दिसता. हे लिखावटीची लिपी कॉमन जर्मनीक लिपीक लागशिल्ली आसा. इ. स. ५०० सुमाराक स्कॅंडिनेव्हिया जर्मनी पसून पयसावली आनी ९०० च्या दरम्यान डॅनमार्क आनी स्विडनांत भाशीक बदल घडून आयले अशें दिसता.

डॅनीश भाशेंतली मुळावी हातबरपां १३व्या शतमानांतलीं. हीं चड करून प्रादेशिक कायद्याविशीं आसून तीं पुर्विल्ल्या मौखिक न्यायपद्दतींतल्यान लिखीत रुपांत आयल्यांत. जायत्या बोली भाशांनी आशिल्ल्या ह्या हातबरपांवयल्यान बोलीभाशांचें वेगळेपण स्पश्टपणान दिसता. ह्या बोली भाशांमदली ज्युटलॅंडीक ही चड सुदारिल्ली दिसता जाल्यार स्कॅंडिनॅव्हियन उण्यांत उणे बदल दाखयता. फुडें ह्या बोलीभाशांमदल्या झीलंड (Zealand) ह्या मध्यवर्ती प्रदेशाची बोलीभास आनी कॉपनहागॅन ह्या राजपाटणाची बोलीभास हाणीं डॅनीश भाशेच्या प्रमाणीकरणाक फाटबळ दिलें.

डॅनीश हातबरपांमदीं वॉल्डेमर दुसरो हाणें सुरू केल्लो आनी व्हायबोर्गच्या बिशप गनरान लिपीबद्द केल्लो ज्युटलॅंडिक कायदो सरस आसा.

रीम क्रॉनीक (रायम क्रॉनिकल) ही नीतीकथात्मक इतिहासीक कृती डॅनीश भाशेंतली पयली छापिल्ली साहित्यकृती. डॅनमार्काच्या साहित्याचीं पाळां नॉर्वेजियन आनी आयसलॅंडीक मौखिक काव्य, तशेंच तातूंत दिसपी कॉमन जर्मन ॲंग्लोसॅक्सन आनी स्कॅंडिनॅव्हियन जीवनमुल्यां आनी समाजीक नदर हातूंत दिश्टी पडटा. हें सुरवेचें साहित्य जायत्या तेंपामेरेन लातीं (Latin) च्या शेकाखाल चेपिल्लें. उपरांत ताचेर जर्मन, फ्रांसेझ आनी इंग्लीश भाशांचोय प्रभाव पडलो.

**रुनीक काळ** (८५०-१०५०) - पुर्विल्लें डॅनीश साहित्य रुनीक अक्षरांनी फातरांनी कोरांतिल्लें मेळटा. हीं खडपांतलीं बरपां म्हळ्यार व्हायकिंगाचीं यादस्तिकां. हे बरपावळींत पुर्विल्लें डॅनीश वीररस काव्य आनी जिवीत हांचें नकसूद चित्र दिसता.

**मध्ययुगीन काळ** (१०५०-१५००) - ह्या काळांत लातीं ही इगर्जेची सर्वमान्य भास जाल्ल्यान रुनीक साहित्याचेर प्रभाव पडलो आनी नेमाळीं तशेंच संतांचीं चरित्रां अशें तरेचें लातीं साहित्य निर्माण जालें. हातूंत ऐलनॉथ ह्या इंग्लीश भिक्षून बरयल्लें 'द लिजंड ऑफ सेंट कान्यूट' हें मुखेल बरप आसा.

११५५-१२२७ मेरेन डॅन्मार्काच्या राजकीय कारभाराक बरेंच म्हत्व आयिल्लें. ताका लागून पुराय दक्षिण बाल्टिक देगेचेर शेक गाजोवपी राजवट म्हणून डॅन्मार्काची तुस्त करपी इतिहासीक बरपां निर्माण जालीं. ह्या काळार म्हाप्रतापी झुजारी आनी राज्यकर्तो ॲबसालॉम हाचे प्रेरणेखाल स्वेंड आगेनसेन ह्या बरोवप्यान अ शॉर्ट हिस्टोरिया रुगून देनीये कॉम्पेन्डीओसा बरयली. पूण त्या काळावयली सगळ्यांत व्हड साहित्यकृती म्हळ्यार सॅक्सो ग्रामाटीकस हाची स वांट्यांनी बरयल्ली जेस्ता दानोरूम (११८०-१२१९). ह्याच तेंपार हेक्सामेरो (6 days) ही संवसार निर्मणेचेर आदारित म्हत्वाकांक्षी लातीं काव्यकृती ॲंडर्स सुनेसन हाचेवरवीं जल्माक आयली. ह्या काव्यांतल्यान सुनेसनाचे अभ्यासू वृत्तीचे आनी ताच्या गिन्यानाच्या आवांठाचें दर्शन घडटा. तेचपरी त्या काळांतलीं युरोपी शिक्षण केंद्रां आनी तांचें स्वरूप हांचीय विस्तारान म्हायती मेळटा.

पूण डॅनीश साहित्याचें सगळ्यांत गिरेस्त दायज हें डॅनीश भाशेंतलें कथानक काव्य, वा बॅलडस (वीर गीतां). हातबरपावळींत आशिल्लचो ह्यो बॅलडस १५९१त ॲंडर्स सॉरेनसेन वॅडेल हाणें संग्रहीत करून छापल्यो. हांचो उगम नृत्यगितां आनी नॉर्डिक म्हाकाव्यां हांच्या संगमांतल्यान जाल्लो दिसता.

डॅन्मार्कांत रिफॉर्मेशनाचो प्रभाव पयलीं पडलो आनी उपरांत रॅनासेंस (प्रबोधन) ह्या कला आनी अभिजात साहित्याचे नवनिर्मितीक सुरवात जाली. त्या काळांतलें चडशें साहित्य रोमी कॅथोलीक पंथ आनी सुदारणावादी हांचे मदल्या संघर्शाचेर केंद्रीत जाल्लें दिसता. ह्याच काळार छापणावळीची कला उदरगतीक पावली आनी Polemic pamphlets, व्यंगात्मक लेखन आनी जर्मन साहित्याचेर आदारीत बरप हांकां ओतो आयलो. ह्या काळावयल्या बरपांत पॉल हॅलजेसेन हाचें द स्कीबी क्रॉनिका आनी ताचो लुथरियन प्रतिस्पर्धी ईव्स हौसेन हाचो लोकप्रिय असो सेर्मांवांचो संग्रह हीं म्हत्वाचीं आसात. तशेंच, पयलो लुथरियन बिशप पेडेर पालादियस हाचें त्या काळांतलें जिविताचें जिवें चित्र दाखोवपी व्हिजीता तसवॉग हें पुस्तक म्हत्वाचें.

ह्या काळांत भाशेचे नदरेन पळेल्यार क्रिस्टीअर्न पेडरसन हाणें केल्लो संपादकीय वावर उल्लेख करपासारको. ताणें सॅक्सो ह्या पुस्तकांत जायतें मध्ययुगीन साहित्य संपादीत केलां. तशेंच बायबल अणकारपाचो व्हड वावर करून डॅनीश साहित्याचे उदरगतींत मोलादीक योगदान दिलें. त्या काळावयले नामनेचे कवी म्हळ्यार लुथरीयन, भजनां मायभाशेंत बरोवपी हॅन्स थॉमसन आनी नीज प्रतिभावंत गीतिकाव्य बरोवपी हॅन्स क्रिस्टेन्सेन स्थेव्ही.

१७व्या शतमानांत ल्हव ल्हव शिक्षणाचो प्रसार आनी गिन्यानाचो हावेस वाडिल्ल्यान लोकांची बौध्दिक विशयाकडेन ओड जाली आनी कवितेक चंवर आयलो. सुरवेक ग्रीक रोमी साहित्याचे फ्रांसेझ, जर्मन

कृतींवरवीं अनुकरण केल्ल्यो कृती चड दिसतात. सॉरेम तेरकेलसेन हाणें मांगी (bucolic) कविता डॅनीश साहित्यांत हाडली.

ह्या काळांतली आनीक एक म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार १६६६त अँडर्स बोर्डिंग हाणें रेन दानुरुके मेर्कुरियसची स्थापना करून पत्रकारितेचें मुळावण घालें. गद्याचे नदरेन हो काळ यादी-लेखन (Memories)चो जावन रावला.

१७००-१७५० हें खरेपणीं होलबर्गयूग म्हणप जाता. कारण ह्याच काळांत प्रो. जोहान लुडविग होलबर्ग हो डॅनीश साहित्याचो जल्मदातो उदयाक आयलो. ताच्यो सुखात्मिका मोलियॅराचे शैलीन बरयल्ल्यो आसताल्यो. ताचेवरवीं डॅनीश नाटक उदरगतीक पावलें आनी रॉयल थिएटर ऑफ कॉपेनहागेन ची स्थापना जाली. होलबर्गान राश्ट्रीय साहित्याचो गाभो समृद्ध केलो. होलबर्गाचे नाट्यकृतीचो इंग्लीश अणकार ओ. जे. कॅम्पबॅल आनी फ्रॅड्रीक शँक हाणीं १९१४त केलो. 'नीक क्रिन्स जर्नी अंडरवर्ल्ड' ही गलिव्हर्स ट्रॅव्हल्साचेर आदारिल्ली साहित्यकृती, हॉलबर्गाची सगळ्यांत नामनेची कृती. १७१९ ते २० चे मजगतीं ताणें होमर विर्जिलचें अनुकरण करून (Mock epic) पिटर पियस हें विडंबन काव्य बरयलें.

१७५०-१८०० ह्या काळांत बुध्दी आनी भावना हांचेमदल्या संघर्शाचें साहित्यीक मळार परीवर्तन जाल्लें दिसता. जोहान नोर्डाल्ह ब्रुन हाचें झरीन (१७७१) आनी नॉर्वेजियन बरोवपी हर्मन वॅसल्स हाची लव्ह विदाऊट स्टॉकिंग्स ही Travestic mock tragedy. ह्याच काळार आनीक एक नॉर्वेजियन क्रिस्टीयन ब्रोमाँ तुहीन हाणें ज्यो ज्याक रुसो तशेंच पोप आनी थॉमसन ह्या लेखकांचे शैलीन बरप केलें. पूण ह्या शतमानांतलो व्हड प्रतिभावंत कवी म्हळ्यार जोहानिस वॉल्ड. ताणें 'कॉन्ग क्रिस्टीयन' हें डॅनीश राजगीत बरयलां. ताचें नातें ह्या युगांतल्या सगळ्या म्हत्वाच्या सांस्कृतिक तशेंच बौध्दिक विचारधारांकडेन जुळिल्लें. बौध्दिक पातळेर तो उदबोधन लागीं आशिल्लो जाल्यार भावनीक नदरेन ताचो कल जर्मन पुनरुज्जीवनाकडेन आशिल्लो. हाचेभायर धर्मगुरू बापायकडल्यान ताका भक्तीवादाचोय वारसो मेळिल्लो. हाका लागून डॅन्मार्कांत इवॉल्डावरवींच पूर्वस्वच्छंदतावाद पावलो अशें म्हणप समा जातलें. ताच्या गितिकाव्यांत स्वच्छंदतावाद उदात्त करुणेचें दर्शन घडटा. पूण इवॉल्हाच्या उपरांत कविता व्हडलीशी फुलूंक पावली ना.

ह्या तेंपार नूड लीन्ह राहबेक ह्या म्हत्वाच्या बरोवप्यांचीं जायतीं जर्मन अनुकरण करपी नाटकां उजवाडा आयलीं. ह्या काळांतली गुल्डोआन्सेन (१७९३) ही ऑलफ क्रिस्टिअन ओलफसेन हाची नाट्यकृती नांव घेवपासारकी आसा. पिटर अॅन्ड्रीआस हेयबर्ग हो एक नामनेचो सुखात्मिका (Satire) बरोवपी लेखक ह्याच काळांत जावन गेलो. पूण कवितेचो वारसो अठराव्या शतमानांत व्हरपी ह्या काळावयलो म्हत्वाचो हुतहुतो, प्रतिभावंत आनी ओडलायणो लेखक म्हळ्यार जेम्स बॅगन्सन. ताच्या विनोदी काणयांचेर आनी भावनाप्रधान प्रवासवर्णनांचेर लॉरेंस स्टर्न आनी एडवर्ड यंग हाचो प्रभाव दिसता.

स्वच्छंदतावाद (१८००-१८७०) - इवॉल्ड आनी बॅगन्सन हांणीं डॅनीश साहित्यांत स्वच्छंदतावाद केळयलो. हाची प्रेरणा गटेच्या जर्मन काव्यांतल्यान शीलर आनी जेना हांच्या स्वच्छंदतावादांतल्यान, तशेंच काँट आनी शेलींग हांच्या तत्त्वगिन्यानांतल्यान दिसता. हाचेभायर नॉर्वेजियन तत्त्वचिंतक हेन्रीक स्टेफन्स हाच्या कोपेनहागेनच्या व्याख्यानांतल्यान डॅनीश साहित्यांत स्वच्छंदतावादाचो प्रसार जालो.

उपरांतचो काळ डॅनीश साहित्याचो सुवर्णयूग मानतात आनी ह्या सुवर्णयुगाचो उद्गातो ऑक्लेंश्लांगर हो व्हड साहित्यीक. ताचे प्रतिभेची गवाय गुल्डहोर्नेन (१८०२) हे काव्यकृतींत तशेंच सॅनॅत हान्साफ्टेन-स्पील (१८०३) ह्या उपहासात्मक बरपांत अल्लादीन (१८०५) ह्या गीतनाट्यांत आनी हाकोमा जार्ल (१८०७) हे शोकान्तिकेंत मेळटा. १८२९त ताका लुड गांवांत नॉर्डिक काव्यसम्राट म्हणून भोवमान मेळ्ळो. ह्या युगांतले हेर नामनेचे साहित्यीक अशे - बेनार्ड सॅव्हॅरीन इन्नेमान ताचें निरागस भावात्मक काव्य आनी इतिहासीक नवलिकांची नामना आसा. जोहानीस कार्टस्टेन ह्या कवीची मर्दानी गीतिकाव्याखातीर जाल्यार आादोल्फ विल्हेल्म श्चेक हॉन स्टाफेल्डद हाची एकसुऱ्या, उन्मुक्त चंवरपी स्वच्छंदता वादाखातीर नामना आसा. पूण निकोलाय फ्रेडरिक सेव्हेरिन गुन्डटविग ह्या साहित्यिकान ह्या लोकांच्या मनार खर छाप घाल्या. ताच्या काव्याचो आनी कल्पनेचो हेतू पुस्तकी गिन्यानाखातीरच नाशिल्लो जाल्यार जिविताची शिकवण दिवंचेखातीर आशिल्लो, ताचे हे विचारसरणेक फुडें 'गुन्डटविग्यानिज्म' अशें नांव पडलें.

१८२५च्या सुमाराक तरणाट्या स्वच्छंदतावाद्यां मदीं पी. ए. हेयबर्गाचो पूत जोहान लुडविग हाचो आस्पाव आशिल्लो. ताच्या वॉदेवील (Vaudevilles) ह्या स्वच्छंद नाटकांनी तशेंच अॅल्हेरहॉज (अॅल्हज हील (१८२८) ह्या राश्ट्रीय उत्सवी नाटकांनी मोग, परंपरा आनी कलात्मकताय दिसता. ताणें वेगवेगळीं तासां आशिल्ल्या कलात्मक रुपाचो कवितेंत पुरस्कार केल्लो दिसता.

पोल मोलेराच्या उर्वेस्त आनी विनोदी चित्रणांतल्यान डॅनीश निसर्ग आनी विद्यार्थी विश्व हांचें सुयोग्य रूप दिसता. तेचपरी स्टान स्टीन्सेनाच्या जुडलँड हाणें शेतकामत्यांच्या दुखेस्त जिविताचेर उजवाड घालपी कथा कवितेंतल्यान वास्तववादाचो नदरेंत भरसारको प्रभाव दिसता. क्रिस्टीयन विन्थराच्या प्रेमकाव्यांत ट्राउबेडोरच्या झिलँड वाठाराचें वर्णन केल्लें दिसतपोल मोलेराच्या उर्वेस्त आनी विनोदी चित्रणांतल्यान डॅनीश निसर्ग आनी विद्यार्थी विश्व हांचें सुयोग्य रूप दिसता. तेचपरी स्टान स्टीन्सेनाच्या जुडलँड हाणें शेतकामत्यांच्या दुखेस्त जिविताचेर उजवाड घालपी कथा कवितेंतल्यान वास्तववादाचो नदरेंत भरसारको प्रभाव दिसता. क्रिस्टीयन विन्थराच्या प्रेमकाव्यांत ट्राउबेडोरच्या झिलँड वाठाराचें वर्णन केल्लें दिसता. गीतिकाव्याचे हेर नामनेचे बरोवपी आसात. लुडविग ब्रॉडटचर, एमील आरेस्ट्रुप आनी फ्रेडरिक पालुदान-मुल्येर.

पूण डॅनीश साहित्याच्या सुवर्णयुगाचो शिल्पकार जावपाचो मान आंतरराश्ट्रीय नामना जोडिल्ल्या प्रतिभावंत परिकथा बरोवपी हान्स क्रिस्टीयन अँडरसन आनी जिवीतवादाचो पुरस्कार करपी तत्त्वचिंतक सारेन कर्कगार्द हांका मेळ्ळो. आपल्या जिवीतविशयक तत्त्वगिन्यानांत कर्कगार्दान व्यक्तिगत जापसालदारकेचेर भर दिला आनी मनशाची नितीक आनी धर्मीक उदरगत जावपाक भंय आनी आत्मपरिक्षण हांचो उपेग सुचयला. सुरवेच्या काळांत ताच्या तत्त्वगिन्यानाक व्हडलोसो तेंको मेळ्ळोना, पूण फुडें विसाव्या शतमानाच्या तिसऱ्या दशकांत संवसारभर ताचो वेगवेगळ्या रुपांनी प्रभाव दिसलो. स्वच्छंदतावादाचो अस्त जाता म्हळ्यार १८४०च्या सुमाराक एके नवे लोकशायवादी पिळगेन समाजीक-राजकीय

बदलाची सुलूस डॅनीश साहित्यांत दाखयली. मेयर गोल्डस्मीटझ हाणें केवलवादाचें म्हत्व उणें केलें. ताच्या कोरसारेन ह्या विनोदी दिसाळ्यांतल्यान आनी कार्ल प्लागच्या गितांतल्यान विद्यार्थी चळवळीक तेंको दिलो आनी श्लोस्विग झुजांतल्या विरांक तशेंच संविधानाक आर्गां ओंपली. साहित्यांत क्रिस्टीयन हॉस्ट्रप हाणें हेयबर्गाची वेवसायीक नाटकांची परंपरा चालू दवरली. उपरांत हॅन्स इग्युंड शॅक हाचे फँटेस्टर्न हे नवलिकेंवरवी स्वच्छंदवादी स्वनरंजनाक प्रतिकार करपी युग उदेलें.

**निसर्गवाद** - (१८७०-१९००) - १८७० सावन डॅनीश साहित्यांत निसर्गवाद आयलो. जोर्ग ब्रॅन्डीस ह्या युरोपभर नामना जोडपी समिक्षकाचो हातूंत मोलाचो वांटो आसा. १८६४त प्रशिया-ऑस्ट्रियाकडल्या झुजांत हारले उपरांत डॅनीश संस्कृतीच्या पुनरूज्जीवनाक ताणें चालना दिली आनी युरोपांत प्रचलीत आशिल्लयो नव्यो जाणविकायो आनी विचारांक डॅनीश साहित्यांत हाडले. जॉन स्टयुअर्ट मिल आनी परीस कम्युन (१८७१) हांचे समाज तत्त्वीक प्रेरणेन आनी तँ आनी सांत बव्ह हाच्या साहित्यीक प्रभावाखाल तशेंच कॉम्तेच्या सकारात्मकवाद तशेंच फ्यअरबॅफाचो निरीश्वरवाद हांचेर आदारून ब्रॅन्डीसान मुक्त विचार आनी मेकळी, चौकस, वास्तवताय हांची गुडी उबारली.

ह्या काळावयले नामनेचे साहित्यीक म्हळ्यार - सुरवेक क्रांतीकारी विचारांचो पूण उपरांत मतपरिवर्तन जाल्लो गीतकार होल्गार ड्रॅकमन, जेंस पिटर जाकोब्सन हो नवलकथाकार आनी किर्तीवंत नॉर्वेजियन नाटककार हॅन्रीक इब्सेन तशेंच ब्युओर्नसेन ब्युओर्नसन आनी ऑगस्ट स्ट्रींटबर्ग. हांचे भायर एडवर्ड ब्रॅन्डीस हो जॉर्ग ब्रॅन्डीसाचो भाव हाणें नाटयसमिक्षेच्या मळार मोलादीक वावर केलो.

जॉग ब्रॅन्डीसांवरवीं डॅनीश साहित्यांत वास्तववादाची पोसवण जाली. ताच्या फांकिवंत अशा डॅन मोदेर्न जेनेमब्रुडस डेअन्ड (मेन करंटस इन नायनटीन्थ सेंच्युरी लिटरेचर) ह्या ग्रंथावरवीं ताणें बुध्दीवाद्यांच्या फुडले पिळगेंत दिशा दाखयली.

पोन्तापिदेन हाच्या धगधगपी मानवी समाजचित्रणावरवीं १८९०तय निसर्गवाद फुडें वाटचाल करत रावलो. ताच्यो दी ॲन्चाण्टेड लॅंड (१८९१-९५), लकी पॅर (१८९८-१९००) आनी नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्ली द किंगडम ऑफ द डेड (१९१२-१६) ह्यो म्हत्वाच्यो नवलिका.

हर्मन बॅंग हाच्या नवलिका, कथांनी आनी विनोदी प्रभंजनकार गुस्ताव्ह विएड हाणीं वास्तववादाची परंपरा फुडें व्हेली. पूण फुडें ब्रॅन्डीस नित्स्झेच्या प्रभावाखाल पावले उपरांत मात डॅनीश साहित्यांतले हें यूग आंतरगामी आनी आध्यत्मिक जालें. फ्रेंच कवी बोदेलेअर व्हेर्लेन आनी फ्रॅंच फाँद सिक्ल हाच्या प्रभावान जोहानीस जॉर्गेनसन आनी सोफर क्लाऊसेन हाणीं गीतिकाव्याचे पुनरुज्जीवन केलें.

**विसाव्या शतमानांतलो निसर्गवाद आनी नव-स्वच्छंदतावाद** - ह्या काळांत साहित्यीक चळवळींत मध्यमवर्गावांगडा शेतकार कामगारय फुडें सरले आनी ताका लागून डॅनीश साहित्यांत निसर्गावाद परत आयलो. पूण ह्या वेळार ताची नदर समाजाभिमुख आशिल्ली.

ग्रुण्डटविगाच्या प्रभावाखाल आयिल्ल्या साहित्यीकांमदीं जाकोब क्नुडसेन हार्जे हो म्हत्वाचो लेखक आसा. हाचेभायर शेतीविशींच्या दृश्टीकोनाखातीर जोहान जोल्डोर्ग आनी जेप आक्जी हांचो उल्लेख करपासारको आसा. जेप आक्सी आनी थोजर लार्सन ह्या जुटलॅंडीक कवींनी विनोदाची लय आशिल्लें म्होंवाळ निसर्गकवितेत डॅनीश साहित्यांत भर घाली. ह्याच काळांत मार्टीन अँडरसन नेक्सो हाच्या नवलिकांची माळ उजवाडा आयली. हातूंत पेलीरो ब्रेरेन (१९०६-१०), दित्ते मॅनेस्केबार्न (१९१७-२१) आनी मुखेल म्हळ्यार हेर संगळ्यांचेर मात करपी नेवसोचें यादीलेखन 'अंडर द ओपन स्काय' (अमेरिकेक १९३८त उजवाडा आयली) हांचो आस्पाव जाता.

१९२०-३०च्या सुमाराक समाजाभिमुख बरोवप्यांचे पिळगेंत आस्पावपी साहित्यीकांमदीं मोवाळ वृत्तीचो बरोवपी लेक पिश्वर आनी क्नुथ बँकर आनी खर वृत्तीचे (जहाल) साम्यवादी लेखक हॅराल्ड हेर्दाल, हाऊस कर्क तशेंच हाऊस शेराफिग हांचो उल्लेख करप म्हत्वाचें थरता.

उपरांतच्या काळांतलो लेखक जोहानीस विल्हेल्म जेन्सेन हाची देन गोस्टीस्क रॅनासॅन्स (१९०१) ही कृती म्हत्वाची. ताचे 'देन लॉंज रेजसे' (द लॉंग जर्नी १९०८-१९२२) हे नवलिकेक १९४४ वर्साचो नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो. ताच्यो हेर कांय नामनेच्यो नवलिका अशो - मादाम दोरा (१९०४), ह्युले (१९०५) ह्या काळांतले हेर कांय नामनेचे गदय लेखक हॅराल्द किद्दे, कारीन मिकायलिस आनी कविता बरोवपी हॅराल बर्गस्टेंड्र आनी वीर वाल्देमार रोरदाम.

हाचे फुडले साहित्यीकांचे पिळगेर जोहानीस व्हीजेन्सर हाचो प्रभाव चड दिसता आनी तांचेमदीं टॉम क्रिस्टेन्सेन हाचो प्रामुख्यान आस्पाव जाता. पयल्या म्हाझुजाक लागून निर्शेल्लया क्रिस्टोन्सनाची शैली जर्मन अभिव्यक्तीवादाक लागशिल्ली दिसता. जाकुब पालुदान हाच्या नवलिकांनी झुगाकाळा वयलें आध्यात्मिक भांकरूटपण दिसता.

१९३०त समाजिक निसर्गवादाक प्रतिक्रिया म्हणून डॅनीश साहित्यांत नव-स्वच्छंदतावाद वयर सरलो. हाचे पडबींब नीस पिटरसन हाच्या कथांनी आनी गीतिकाव्यांनी दिसता. ताका ताच्या सॉंदाल माजोर्निस गादे (१९३१) आनी स्पील्दन माअेल्क (स्वील्ट मिल्क १९१४) ह्या नवलिकांक लागून ताका आंतरराश्ट्रिय नामना मेळोवन दिली. ह्या काळांतली उल्लेख करपासारकी आनीक एक लेखिका म्हळ्यार इसाक दिनेसेन. तिच्यो आऊड ऑफ आफ्रिका आनी विन्टर्स टेल्स (१९४३) ह्यो नामनेच्यो कृती. ह्याच काळांत सुमार एका शतमाना उपरांत डॅनीश नाटक नांवारुपाक आयलें. हातूंत गतिशील प्रतिभावंत नाटककार काज मुन्क हाची 'ॲन आयडियलिस्ट (१९२८) आनी ऑर्डेट (१९३२), इब्बेसेन (१९४२), फॉर कानेय (१९४३) हीं नाटकां उल्लेख करपासारकीं आसात.

१९४० उपरांतय निसर्गवादाआड साहित्यीक प्रतिक्रिया चालू उरली. हाका लागून कल्पनाशक्त आनी प्रतीकवाद हांकां नव्यान भार आयलो. हे नदरेन मार्टीन आल्फ्रेड हॅन्सेन हाची 'लायके लींज', क्रिस्टोफर (१९४५) ह्यो नवलिका आनी जोहानीस व्ही जेन्सर हाच्यो तोर्नेबुस्केन (१९४५) ह्यो साहित्यकृती म्हत्वाच्यो.

हाचेभायर हेर म्हत्वाचे लेखक अशे आसात - जॅल्ड आवेल (आना सोफी हेडविग -१९३९) नाटककार, सी. ई. सोया आनी कवी नीस पिटरसेन, तोने दितलेव्हसेन आनी मोरटेन नीअेलसेन.

फाटल्या ८ ते ९ शतमानांतली डॅनीश भास आनी साहित्य हांचीं खाशेलपणा म्हळ्यार ताचेमदीं ठळकपणान दिसपी विनोद आनी ल्हान वाठारांत घोळूनूय अदीमदीं संवसारीक पांवडयार सन्मान जोडपी कलाकृतीची निर्मणी. पूण हेभायर डॅनीश साहित्यान सरसकट युरोपियन परंपरेभायर वचून आपलो खासा छाप दवरपी असो गूण दाखयलोना. पूण जरी विनोदगर्भ साहित्याक लागून डॅनीश भाशेची नामना वाडली

आनी ताचें श्रेय होलीबर्ग आनी कर्कगार्दा सारकिल्ल्या म्हारथींक फावो जालें तरी ताचें मूळ मात आर्विल्ले मनीसकुळयेच्या मनीसपणापसून पयसावल्ले परिस्थितींत सांपडटलें.

– डॉ. किरण बुडकुले

**डॅन्मार्क :** डॅन्मार्क हें स्कॅंडिनेव्हियन राश्ट्रांमदलें एक सगळ्यांत ल्हान राश्ट्र आसून, युरोपाचे उत्तरेक उत्तर दर्या आनी बाल्टीक दर्या हांचे मदीं ताचो आस्पाव जाता. डॅन्मार्क हो एक संविधानिक राजशाहीचो देश. क्षेत्रफळ ४३,०७४ चौ. किमी. लोकसंख्या ५२,००,००० (१९९४). विस्तार ५४°३३′ उत्तर ते ५७°४५′ उत्तर आनी ८°४′ उदेंत ते १५°१२′ उदेंत इतलो आसा. हातूंत जटलॅंड द्वीपकल्पाचो सुमार ३०,०९५ चौ. किमी. प्रदेश आनी उदेंतेक फ्यून, लॉलान, झीलॅंड, ॲल्स, ॲर, टॉसिंग, लांगलॅन, साम्स, फाल्स्टर, बॉव, आर्मेयर, बॉर्नहाल्म आनी अस्तंतेची फान, रम आनी हेर ४८२ जुंव्यांचो सुमार ५,००० चौ. किमी. प्रदेश आसा. ग्रीनलॅंड, हो संवसारांतलो सगळ्यांत व्हड जुंवो आनी फाअरो जुंवो, हेय संविधानिक राजशाही डॅन्मार्काचे भाग. द्वीपकल्प आनी जुंवे ह्या भूंयस्वरुपाक लागून डॅन्मार्काक खूब व्हड (७,४०० किमी.) दर्यादेग लाबिल्ली आसा. कोपनहेगन ही देशाची राजधानी.

**भूंयवर्णन :** डॅन्मार्क हो भूस्तरावयलो हिमयुगीन हालचालींनी चतुर्थक काळांत तयार जाल्लो देश आसून देशाचो भूंयभाग चडट्या देंवत्यांचो. हांगाची चडशी जमीन सपाट. जटलॅंड हांगाची ईजर बाव्हनहॉज ही सगळ्यांत उंचेली दोंगुल्ली आसा. डॅन्मार्काची दर्यातळासावन सरासारी उंचाय फकत ३० मी. जटलॅंडाचे अस्तंत दर्यादेगेवयली निसुम फ्योर्डमेरेन उदेंतेक व्हीबॉर वयल्यान दक्षिण शिमेवयली फ्लेंझबर्ग ही शीम सुमार स लाख वर्सांपयलीं सुरू जाल्ले निमाणे हिमानीक्रियेची शीम. उत्तर बॉर्नहॉल्माक स्विडनाक आशिल्लया तळपांप्रमाण ग्रॅनायटाचीं तळपां आसात. डॅन्मार्काच्या हेर वाठारांनी चुनखडयेचीं खडपां, हिमयुगीन पीट लिग्नायट हांचोय आस्पाव जाता. डॅन्मार्काचें भूपृश्ठ आनी जमीन हांची घडण हिमयुगांत आनी ताचे उपरांत जाल्ली आसात. जटलॅंडाचे अस्तंत दर्यादेगेर चिबडरान आनी रेंवट दोंगुल्ल्यो आसात. उदेंतेकडेन आनी उत्तरेक पिकाळ ल्हानल्हान मळां आनी दोंगुल्ल्यो आसात. डॅन्मार्काचो कांय भाग चड करून रिब आनी ट्युबॉरन हो जटलॅंडाचो भाग, तसोच लॉलान जुंव्याचो दक्षिण भाग दर्यातळापरस सकयल आशिल्ल्यान हांगाची दर्यादेग व्हांवून वचची न्हय म्हणून ती बांदून काडल्या.

डॅन्मार्कांत ल्हान ल्हान न्हंयो, झरी आनी तळयो आसात. गूदनॉ ही हांगाची सगळ्यांत व्हड न्हंय (१५० किमी.)

उदेंतेकडेन आशिल्ले जुंवे एकमेकासावन आनी जटलॅंडासावन दर्याच्या पट्ट्यानी वेगळे जाल्ले आसात. तांकां द ग्रेट बॅल्ट, द लिट्ल बॅल्ट आनी लांगलॅनाचो बॅल्ट अशें म्हण्टात. स्विडनाचें दक्षिण तोंक आनी झीलंड जुंवो हाचे मदीं उरसुंद उपसागर आसा.

**हवामान –** डॅन्मार्काचें हवामान समशीतोश्ण आसा. हांगा उदेंत युरोप, आर्क्टिक आनी ॲटलांटिका सावन विंगड विंगड वाऱ्याचे लोट येतात आनी हाका लागून हांगाची हवा एकसारकी बदलत आसता. अस्तंत देगेवयल्यान वचपी उत्तर अटलांटीक वाऱ्याक लागून शियाळ्यांत हांगा मातसो फायदो जाता. जानेवारी-फेब्रुवारी तेंपार सरासरी तापमान ०.१° सॅ. आसता. जुलय म्हयन्यांतलें सरासरी तापमान १६° सॅ. आसता. ह्या देशांत सादारणपणान अस्तंती वारें व्हांवता आशिल्ल्यान आनी संबंद देशांभोंवतणी उदक आशिल्ल्यान दिसाच्या आनी रातच्या तापमानांत चडसो फरक जाणवना. वर्सुकी पावस सरासरी ४० ते ८० सेंमी. इतलो पडटा. केन्ना केन्ना हांगा हिमूय पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात –** देशाचो सुमार १०% प्रदेश रानातळा आसा. फर, बीच, स्प्रूस, लार्च, पायन, ओक, ॲश, रॅंड, आल्डर, पॉप्लर, एल्म, मॅपल ही हांगाची म्हत्वाची रुखावळ. हांगा लागींलागीं चवदाशें जातिंचीं फुलझाडां आसात. रानटी आनी हिंस्त्र मोनजात डॅन्मार्कांत चडशी सांपडना. सोंसो, मृग, बिज्जू, बॅजर, चानी, मार्टिन ही मोनजात हांगा चड प्रमाणांत सांपडटा. हांगाचो धवो मिंक प्रसिध्द आसा. सुमार ३५० प्रकारांची सवणीं हांगा पळोवपाक मेळटात. हांगा नुस्तेंय खूब मेळटा.

**इतिहास –** डॅन्मार्कांत सांपडिल्ल्या अवशेशांवयल्यान सुमार ११ हजार वर्सां पयलीं हांगा नुस्तें मारून आनी शिकार करून आपलो राबितो करपी समाज आशिल्लो अशें समजता. इ. स. पयलीं दोन ते तीन शेंकडे सिंब्री आनी ट्यू टॉनी टोळयो हांगा रावताल्यो. ताणीं साबार युरोपीय देशांक सतावन सोडिल्ले. इ. स. पयलीं १०२च्या सुमाराक रोमन सैन्यान तांचेर हार घाल्ली. पूण डॅन्मार्कांतल्या विंगड विंगड टोळ्यांचें हेर युरोपी देशांचेर आक्रमण चालूच आशिल्लें. जटलॅंडाच्या जूट आनी ॲंगल्स टोळयांनी इंग्लंडाचेर घुरी घालून हांगाच्या कांय भागांनी ताणीं वसणुकांची थापणूक केल्ली. मध्ययुगाचे सुरवातेक सावन व्हायकिंग टोळयांनी संबंद युरोपांत धुमशण कांडिल्लें. तांचो तळ झीलंडामदल्या ट्रेलबॉर्य गांवांत आशिल्लो. थंयच्यानूच फ्रान्स आनी इंग्लंडाचेर ते आक्रमणां करताले. ह्या व्हायकिंगाचो त्रास सोंसूं नजो जावन इंग्लंडाच्या ऑल्फ्रेड द ग्रेट हाणें ८७८त वेडमोराचे कबलातींत लंडन चेस्टरचे उदेंतेकडचो मुलूख तांकां दिल्लो. ताकाच डॅनलॉ म्हळ्यार डॅन लोकांचो प्रांत असो इंग्लंडाच्या इतिहासांत उल्लेख मेळटा.

डॅन्मार्काचो राजा गॉर्म द ओल्ड हाणें ९०० ते ९४० मेरेन राज्य केलें. ताचो चलो हॅराल्ड ब्लूटूथ हाणें नॉर्वेचेर जैत मेळोवन थंयच्या लोकांक बाटोवन तांकां क्रिस्तांव केले. हॅरॉल्डाचो नातू कान्यूट हाणें डॅन्मार्क, स्विडन, नॉर्वे, इंग्लंड, वेल्श, स्कॉटलॅंड, हेब्रायड्स, ऑर्कनी आनी शेटलॅंड जुंवे, दक्षिण स्विडन आनी एस्ट्रोनिया अशा व्हड साम्राज्याजेर राज्य केलें. हाच्या तेंपार इंग्लीश आनी डॅन लोकांचे संबंद सुदारिल्ले. पूण ताच्या मरणाउपरांत हें व्हड साम्राज्य डळमळीत जायत गेलें.

राजा वॉल्देमोर द ग्रेट हाच्या काळासावन डॅन्मार्काचे स्लाव्हवंशीय वेंड जमातीकडेन बाल्टीक दर्यालागशिल्ल्या मुलुखाचेर आपलो ताबो मेळोवपाखातीर संघर्श सुरू जालो. हाचो नातू वॉल्देमार दुसरो हाणें १२१९त लिडानीसाच्या झुजांत वेंडांचो पराभव करून उत्तर जर्मनींतलो चडसो मुलूख आपल्या शेकातळा हाडलो. ह्या झुजांत कांय दैवी चमत्कारान डॅन्मार्काक आपलो राश्ट्रध्वज लाबलो, हाका लागून लिंडानीसाच्या जैताक डॅन्मार्काच्या इतिहासांत म्हत्वाची सुवात आसा. ह्याच काळांत नुस्तेमारी, नौकानयन आनी शेतवडीच्या मळार खूब उदरगत जाल्ली. उपरांत उत्तर जर्मनींतल्या राजांनी डॅन्मार्काच्या शेकातळा आशिल्लो मुलूख परत घेतलो आती डॅन्मार्काचेरूय आपलो शेक दवरलो. पूण जटलॅंडाच्या लोकांनी चवथ्या वॉल्देमाराच्या मुखेलपणासकल जर्मन लोकांक धावंडावन घाले.

डॅन्मार्कच्या इतिहासांतलो तेरावो शेंकडो रक्तखेव, यादवी झूज आनी अत्याचारान भरिल्लो आसा. पूण राजा वॉल्देमार चवथो हाच्या एकसारक्या यत्नांक लागून ही परिस्थिती सुदारली. ताणें बाल्टिकाच्या मुखार आपलो शेक बसयलो. जर्मन संस्थानीक आनी हॅन्सिॲटिक संघ हांच्या संयुक्त सैन्याचो पराभव केलो. देशाभितरूय ताका खूब विरोध जाल्ले, पूण ताणें ते सगळे मोडून उडयले. १३७५त ताका मरण आयलें.

वॉल्देमार हाका चलो नाशिल्ल्यान मरणाउपरांत ताची चली मार्गारॅट हिचो चलो ओलाफ गादयेर आयलो. अशे रितीन ओलाफ नॉर्वे आनी डॅन्मार्क ह्या दोनूय देशांचो राजा जालो. पूण १२८७त ओलाफ हाका रोकडेंच मरण आयिल्ल्या कारणान मार्गारॅट दोनूय राज्यांचे गादयेर आयली. तिचेच यत्नांक लागून १३९७त कलमाराची कबलात जावन स्विडन, नॉर्वे आनी डॅन्मार्क एकेच राजवटीखाला आयले. पूण फुडें १५२३त स्विडन स्वतंत्र जालो, नॉर्वे १८१४ मेरेन डॅन्मार्काच्या नियंत्रणा सकयलूच उरलो.

अठराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन, धान्य आनी हेर शेतकी उत्पादन आयात करपी इंग्लंड हो मुखेल देश आशिल्लो. फ्रँच राज्य क्रांतीच्या तेंपार आनी नेपोलियनाचे राजवटींत शेतकी उत्पादनाचे दरेंत खूब वाड जाल्ली. हाचो लाब डॅन्मार्काच्या शेतकामत्यांकूच जाल्लो. नेपोलियन आनी इंग्लंड हांच्या मदल्या संघर्शात डॅन्मार्क सुरवातेक तटस्थ राविल्लो. पूण दर्यावयल्या दर एका तारवाच्या तपासणेच्या हक्कावयल्यान इंग्लंडाचो साबार युरोपीय देशांकडेन वाद सुरू जाल्लो. तेन्ना डॅन्मार्कूय तटस्थ राश्ट्रांच्या संघाक मेळून ताणें इंग्लंडाचो खर विरोध केल्लो. पूण १८०१त बाल्टिकाच्या नावीक झुजांत इंग्लंडान डॅन्मार्काच्या आरमाराचो बरोच नाश केल्लो. मुखार १८०७त डॅन्मार्कान नेपोलियनाच्या म्हाद्वीपीय नितीक विरोध करपाखातीर इंग्लंडाक आदार करचो, हे ब्रिटिशांचे मागणेक डॅनीश सरकारान विरोध केल्लो, म्हणून इंग्लीश आरमारान कॉपनहागेनाचेर नाळींचो मारो करून पुराय डॅनीश आरमार जप्त केल्लें. हाचो परिणाम म्हळ्यार डॅन्मार्काक नेपोलियनाचो आदार घेवंचो पडलो. पूण नेपोलियनाचो पुराय पराभव जालो तेन्ना डॅन्मार्काकूय खूब नुकसान जाल्लें. नॉर्वेचेर चारशें वर्सां आशल्लो शेकूय तांच्या हातांतल्यान गेलो.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत श्लेस्विग - होलस्टाईनाच्या प्रस्नावयल्यान डॅन्मार्काचो प्रशिया-ऑस्ट्रियाकडेन संघर्श जालो. हातूंत जटलँड द्विपकल्पाचे शिमेकडचो प्रांतूय डॅन्मार्काच्या हातांतल्यान गेलो. पूण झुजाउपरांत भौशीक मत घेवन उत्तर श्लेस्विग प्रांताचो परत डॅन्मार्कांत आस्पाव केलो. पयल्या म्हाझुजांत डॅन्मार्क तटस्थ राविल्लो. पूण जर्मनीच्या यू-बोट पाणबुडयांच्या झुजाक लागून डॅन्मार्काचे आयात-निर्यातीचेर खूब वायट परिणाम जाल्ले. दुसऱ्या म्हाझुजांतूय डॅन्मार्क तटस्थ राविल्लो. पूण ९ एप्रिल १९४० दिसा हिटलरान सगळ्यो कबलाती मोडून डॅन्मार्काचेर घुरी घालून कांय वरांनीच सबंद डॅन्मार्क ताणें आपल्या शेकातळा हाडलो. झुज चालू आसतना डॅन्मार्काचे सगळे साधनसामुग्रीचो जर्मन लश्करान जाय तसो उपेग करून घेतिल्लो. पूण स्वातंत्र्यमोगी डॅन जनतेन भूंयगत चळवळ उबारून जर्मन सैन्याक त्रास दिवपाक सुरवात केली. मे १९४५त दोस्त सैन्यान जर्मन सैन्याक धावंडावन घालें आनी डॅन्मार्क परत स्वतंत्र जालो.

झुजाउपरांतच्या काळांत आंतरराश्ट्रीय सहकार्याचें धोरण आपणावन डॅन्मार्काक संयुक्त राश्ट्र संघटनेचें वांगडीपण मेळोवपाक यश आयलें. १९४८त फेअरो जुंव्यांक स्वराज्य दिलें. शंभर वर्सांचें तटस्थ रावपाचें धोरण सोडून १९४९त डॅन्मार्क नाटो (NATO) संघटनेचो संस्थापक घटक जालो. १९५२त नॉर्डिक काउन्सिलाची स्थापणूक करून सगळ्या स्कँडिनेव्हियन देशांभितर सांस्कृतिक विकास आनी भावकी निर्माण करपाचें नदरेन डॅन्मार्कान फुडाकार घेतिल्लो. ह्या देशांभितर अर्थीक सहकार्याखातीर जकातमुक्तीची कबलात जावन, स्कँडिनेव्हियन देशांतल्या नागरिकांक पासपोर्ट नासतना एकामेकांच्या देशांत भोंवपाक मेळटा.

**राज्यवेवस्था** - डॅन्मार्कांत संविधानिक राजेशाही आसा. डॅन्मार्काचो राजा ल्यूथर प्रणीत प्रॉटेस्टंट पंथाचोच आसूंक जाय. कायद्यावरवीं व्हडलो राजकुंवर गादयेचो वारस आसता. राजाक चलो नासल्यार १९४३च्या कायद्यावरवीं चलयेकूय गादी मेळपाक जाता.

सद्या चालींत आशिल्लो डॅन्मार्काचो राजकारभार ५ जून १९५३च्या संविधानाचेर आदारीत आसा. राजा - राणी संविधनात्मक मुखेली आसून तो संसदेंतल्या चड मत मेळिल्ल्या पक्ष मुखेल्यांची म्हामंत्रीपदाचेर नियुक्ती करता. डॅन्मार्काचें विधीमंडळ एक गृही आसून ताका फोल्केटिंग म्हण्टात. ताचे १७९सभासद आसतात. फोल्केटिंगाचें अधिवेशन दर वर्सा ऑक्टोबराच्या पयल्या मंगळारा सावन सुरू जाता. फोल्केटिंगाची वेंचणूक दर चार वर्सांनी जाता. सरकाराआड अविस्वासाचो थाराव जाल्यार मुदतीपयलीं वेंचणुको घेवपाक मेळटात. हांगा भोव पक्ष पद्दत अस्तित्वांत आसा. तातूंतले सोशल डॅमोक्रॅट्स, प्रोग्रेस पक्ष, रेडिकल लॅफ्ट, लिबरल,कॉंझर्वेटिव्ह, सॅंटर डॅमॉक्रट्स, सोशॅलिस्ट पिपल्स पार्टी, क्रिश्चन पिपल्स पार्टी, कम्युनिस्ट, सिंगल टॅक्स पार्टी हे मुखेल पक्ष आसात. साबार पक्ष आशिल्ल्यान हांगा सदांच संयुक्त मंत्रिमंडळ अस्तित्वांत आसता. थळाव्या प्रशासनाखातीर डॅन्मार्कांत १४ परगणे आनी २७७ नगरपालिका आसात. तांचो कारभार लोकांनी नियुक्त केल्ली जिल्हो काउन्सिल सांबाळटा. तांचेर राजान नेमिल्लो राज्यपाल आसता. शाराचो कारभार लोकानियुक्त थळावीं मंडळां चलयतात. कोपॅनहागेनाखातीर ५५ सदस्यांचें लोकांनी नियुक्त केल्लें मंडळ आनी त्या मंडळांत आठ वर्सांखातीर नेमिल्ल्या ११ जाणांचें कार्यकारी मंडळ आसता.

देशाची राखणेवेवस्था १९८२च्या संरक्षण कायद्याचेर आदारिल्ली आसा. संरक्षण मुखेली हो भूदल, नौदल आनी वायूदल ह्या तिनूय दलांचो मुखेली आसता. तातूंत संरक्षण मुखेली आनी तांचे अधिकारी, डॅनीश ऑपरेशनल फोर्सेसाचो मुखेली आनी तिनूय दलांचो मुखेली आसता. संविधानाप्रमाण दर एका नागरिकाक राश्ट्रीय संरक्षणांत वांटो घेवंचो पडटा. ही सक्तीची सैनिकी सेवा णव म्हयन्यांची आसून १९ ते २५ वर्सां पिरायेच्या सगळ्या तरणाटयांक सैनिकी शिक्षण दितात.

**अर्थीक स्थिती** - आदल्या काळासावन डॅन्मार्काची अर्थवेवस्था शेतवडीचेय आदारिल्ली आसा. दुसऱ्या म्हाझुजामेरेन डॅन्मार्क हो गरीब शेतकामत्यांचो देश आशिल्लो. फकत १/५ जमीन शेतवडीतळा आशिल्ली आनी पिकावळ काडपाची पद्दतय पोरणीच आशिल्ली. असले परिस्थितींत दुसऱ्या म्हाझुजांत एक तृतीयांश भूंय आनी दोन पंचमांश लोक डॅन्मार्क देशासावन वेगळे जाले. अमेरिकेंतल्यान युरोपांत खूब प्रमाणांत धान्य आयात जावपाक लागलें आनी हे सर्तींत डॅन्मार्क खूब फाटीं उरलो. तेन्ना डॅन्मार्काच्या शेतकामत्यांनी धान्याची उपज उणी करून मोनजातीखातीर तण, बीट आनी हेर उत्पादनूय वाडयलें. शेतांत यांत्रिक पद्दत आपणावन तशेंच बऱ्या प्रकारांचें सारें, सुदारिल्लें बियाणें, शास्त्रीय लागवड पद्दती

आदी उपायांनी डॅन्मार्कान आपल्या शेतांत व्हड क्रांती घडोवन हाडिल्ली. शासनानूय खाशेल्यो येवजण्यो आंखून हे शेतवड क्रांतीचो नेट वाडयलो. तशेंच शेतकामत्यांची संघटना, व्हडा प्रमाणांत यंत्र सामुग्रीचो वापर, नवें बियाणें, सारें, शेतवडी म्हाल विकपाची सहकारी वेवस्था तशेंच, मुखेलपणान पशुधनाक आनी दूद वेवसायाचेर भर दिल्ल्या कारणान शेतवड मळार हो देश खूब फुडारिल्लो आसा.

बार्ली हें हांगाचें मुखेल पीक. तशेंच गंव, राय, ओट, बटाट, ज्वारी आनी बीट हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं पिकां. डॅन्मार्कांत पशुपालन आनी दूदवेवसाय हांकां हालींच्या तेंपार चड म्हत्व दितात. हो वेवसाय मुखेलपणान सहकारी तत्त्वाचेर उबारिल्लो आसून आर्विल्ल्या तंत्राच्या वापराक लागून ताणें संवसारांत नामना जोडल्या. मास, लोणी, चीज, तांतयां, बेकन, हॅम आनी हेर मोनजातीसावन मेळपी पदार्थ डॅन्मार्काकसावन निर्यात जातात.

नुस्त्याच्या वेवसायांतूय डॅन्मार्क बरोच फुडारिल्लो आसा. दर्यांतलें नुस्तें यांत्रिक बोटींनी धरतात आनी हातूंतलें चडशें निर्यात जाता.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत डॅन्मार्कांत उद्देग धंद्याची वाड नेटान जाली. हांगा कारखाने आनी उद्देगधंदे देशांत सगळेकडेन पातळिल्ले आसात. खाद्यपदार्थांचे कारखाने ल्हान ल्हान शारांनी शेतांच्या मजगतीं वा लागींच उबारल्यात. फाटल्या कांय वर्सांसावन नुस्तें आनी मास उत्पादन धंद्यांत खूब वाड जाल्ली आसा. शेतवड म्हाल प्रकियेच्या कारखान्यांत तंबाकू पदार्थांच्या कारखान्यांनी चड लोक वावुरतात. कोपनहागेन, ओदन्से, ऑलबॉर्ग आनी हेर शारांनी रसायनीक पदार्थ, अभियंत्रीकी, शिमीट, डिझल इंजिनां, चीनी मातयेचीं आयदनां, कपड्याच्यो गिरणी आनी हेर कारखाने हांगा आसात.

तारवां बांदप हो डॅन्मार्काचो एक मुखेल वेवसाय. हांगा खनिजांचे सांठे साप उण्या प्रमाणांत आशिल्ल्यान लोखण, बीड, पोलाद, कोळसो आनी हेर कच्चो म्हाल आयात करचो पडटा. डॅन्मार्कांत कारखाने इंधननिर्मित विजेचेर चलतात. हांगा लघुउद्योग धंद्यांक खूब म्हत्व आसा.

डॅन्मार्काचो देशांभितल्लो वेपार ल्हान ल्हान दुकानांतल्यान चलता. आंतरराष्ट्रीय वेपार प्रदर्शनां दर वर्सा कोपनहागेनांत भरतात. शेतवड म्हाल, बेकन, हॅम, चीज, तांतयां, मास आनी नुस्तें ह्या खाद्यपदार्थांची हांगच्यान निर्यात जाता. रासायनिक सारें, लोखण, पोलाद, कोळसो, रबर, खनिज तेल, मोटारी, लोकर, कापूस, गंव, काफी आनी तंबाकू ह्या पदार्थांची व्हडा प्रमाणांत आयात जाता. आयात-निर्यात वेपार मुखेलपाणान ब्रिटन, जर्मनी, अमेरिका, नॉर्वे, स्विडन, बेल्जीयम, फिनलंड, फ्रांस, स्वित्झर्लंड हांचेकडेन जाता. क्रोन हें डॅन्मार्काचें अधिकृत चलन आसा.

**येरादारी आनी संचारण** – दुसऱ्या म्हाझुजांत जाल्लें नुकसान भरून काडून डॅन्मार्क आतां येरादारी मळाचेर खूब फुडारिल्लो देश आसून ह्या मळार इंग्लंड, नॉर्वे हांच्या सारक्या देशांकडेन ताची सर्त चालू आसा. वेपारी तारूं येरादारीच्या मळार डॅन्मार्क मुखेल देशांमदलो एक. झीलंड आनी फ्यून, झीलंड आनी स्विडन हांचे भितर यो-वच करपाक फेरीबोटींची वेवस्था आसा. देशाभितल्ली हवाई येरादारी डॅनीश ॲर लायन्सावरवीं चलता. कोपनहागेन लागशिल्ल्या कास्टरूप विमानतळावयल्यान आंतरराष्ट्रीय हवाई येरादारी जाता. देशांतली डाकघर वेवस्था सरकारी मालकेची आसा. पूण दूरध्वनी वेवस्था खाजगी मालकेची आसा. आकाशवाणी आनी दूरचित्रवाणी ही डॅन्मार्क रेडिओ ह्या शासकीय नियंत्रणासकल आसा. हांगा उजवाडाक येवपी ५२ दिसाळीं आसात.

**लोक आनी समाजजीण** – १९९४ वर्सा डॅन्मार्काची लोकसंख्या ५२,००,००० इतली आशिल्ली. डॅन्मार्काचे लोक ट्युटॉनीक वंशाचे आसून तांची भाशा डॅनीश. ते चडशे स्कॅंडियेव्हियन आसून ९८०४ लोक डॅन्मार्कांतूच जल्मल्ले आसात. सादारणपणान ते गोऱ्या रंगाचे, निळे दोळे आनी तांचे केंस तांबसार आसतात. ९८% लोक ल्यूथ्रप्रणीत प्रॉटेस्टंट पंथाचे आसात. पूण हांगा संविधानान धर्मीक स्वातंत्र्य दिल्लें आसा. हांगा कांय प्रमाणांत ज्यू, रोमन, कॅथलीक, मेथडिस्ट, बॅप्टिसरा आनी हेर पंथांचे लोक आसात. डॅन्मार्काचे वट्ट लोकसंख्येंतले सुमार ४५% लोक जटलॅंडांत रावतात आनी उरिल्ले हेर भागांनी रावतात. हांगाच्या नागरिकांचें राहणीमान खूब उंचेलें. तांची रावपाची पद्दत आधुनीकशी दिसली तरी तातूंत पारंपरीक रितींचीय भरसण जाल्ली आसा. तांचो भेस हेर युरोपीय देशांतल्या नागरिकांभाशेनूच आसता. गांवगिऱ्या वाठारांनी मात केन्ना केन्नाय आदले रंगीत कपडे घातिल्ले लोक दिश्टी पडटात. वेपारी लोक तांच्या खाशेल्या भेसावयल्यान वळखुपाक येतात. हांगा लोकांची वस्ती साप पातळ आसून चारूय दिशांनी आधुनीक पद्दतीचीं घरां पळोवपाक मेळटात. शारांभायर व्हड व्हड वसणुको, बागो हे डॅन्मार्काचें खाशेलपण. जण एका कुटुंबाक बागेंत ल्हान ल्हान वाफे दिल्ले आसतात. हांगा जण एका स्वतंत्र घराक तेंकून ल्हानशी बाग आसता. डॅनीश घरातलें फर्निचर सादें पूण सुंदर आसता. 'स्मॉरे ब्रॉड' हो सॅंडविचासारकिलो पदार्थ चड लोकप्रिय. सुंगटां, ताल्ले, ईल, बांगडे हें तांचें रुचीचें नुस्तें. हेर युरोपीय देशांवांगडा ते आर्विल्ल्या काळांत वावुरतात पूण ताणीं आपणाल्यो कांय खाशेल्यो चालिरिती तशोच जतनायेन दवरल्यात.

नाताळ, इस्टर, नवें वर्स, राजा-राणयेचो वाडदीस, ५ जूनाचो घटनादिन हे सुटयेचे आनी उत्सवाचे दीस व्हडा उमेदीन मनयतात. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत ५ मे चो मुक्तिदीस व्हडा दबाज्यान मनयतात. डॅन्मार्कांत खेळामळावयल्या खेळांची खूब आवड आसा. शाळा-कॉलेजींनी विद्यार्थी विंगड विंगड शास्त्रीय व्यायामप्रकार शिकतात. सॉकर, टॅनिस, बॅडमिंटन, पेंवप, व्हडीं ताणप, बर्फावयले खेळ, सायकलींनी भोंवप आनी वनसंचार हे तांचे आवडीचे खेळ.

**शिक्षण** – डॅन्मार्कांत ९९% लोक साक्षर आसात. चडशा नागरिकांक माध्यमिक शाळेमेरेनचें शिक्षण मेळिल्लें आसता. ७ ते १६ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांक फुकट शिक्षण मेळटा. हांगा मुळावें ते उच्च शिक्षणामेरेनची वेवस्था आसा. हांगा खाजगी शाळाय खूब आसून नगरपालिका वा शासन ताचीं तपासणी करता. हांचे खेरीज हांगा लोकशाळा, शेतकी अभ्यासक्रम, गृह-अर्थ शाळा. तंत्रीक शाळा, वेपारी शाळा हांचीय वेवस्था आसा.

**भाशा आनी साहित्य** – 'डॅनीश' ही इंडो-युरोपीय भाशा कुटुंबाच्या जर्मानिक शाखेच्या स्कॅंडिनेव्हियन गटाची भाशा ही डॅन्मार्काची भाशा.

९०० ते ११०० काळा मेरेनचें आदलें डॅनीश साहित्य आजुनूय पळोवपाक मेळटा. मध्ययुगांत सॅकसो ग्रमॅटिकुस ह्या डॅनीश इतिहासकारान बरयल्लो Gestu Donorum हो डॅन्मार्काचो ११८५ मेरेनचो इतिहास खूब प्रसिध्द आसा. ह्या काळांतलीं स्तोत्रां, विरगितां आयजूय उपलब्ध आसात. सोळाव्या शेंकड्यासावन डॅनीश भाशेंत विंगड विंगड प्रकारांचें नाटचलेखन जावपाक लागलें. आडाम गॉट लॉब अलेनश्रुअगर हो एकुणिसाव्या शेंकड्यांत डॅनीश साहित्यांतलो स्वच्छंदतावादी संप्रदायाचो

मुखेली आशिल्लो. हॅन्विक पॉनटॉपिडान् कार्ल गेल्लेरूप, युहानेस येन्सन ह्या तिगांकूय साहित्याचे नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळ्यात.

**कलाकुसर** - डॅन्मार्काचे वास्तूकलेंत युरोपीय देशांतल्यो विंगड विंगड शैलिंच्यो इमारती पळोवपाक मेळटात. व्हायकिंग काळांतले बायझंटिन शैलींतले कालुनबॉर्गची पांच मनोऱ्यांची इगर्ज, गांवगिऱ्या वाठारांतल्यो गॉथिक पद्धतीच्यो ल्हान ल्हान इगर्जो, कोपनहागेनाच्या 'अवर सेव्हिअर्स' चर्चींतली जर्मन बर्रोक शैली, अठराव्या शेंकड्यांतली पॅलेडियन शैलीचे राजवाडे हे खूब प्रसिध्द आसात. क्लॉउअंस बर्ग, हॅन्स ब्रुगमान, आडाय व्हॉन ड्युरेन, मार्टीन बुसर्ट हे सोळाव्या शेंकड्यांतले व्हड शिल्पज्ञ आशिल्ले. सतराव्या शेंकड्यांत डच शिल्पज्ञांनी डॅन्मार्कांत व्हड कामगिरी केल्ली. जे. एफ. साली हो अठराव्या शेंकड्यांतलो व्हड शिल्पकार, बॅर्टेल टुर्व्हाल्सन ह्या डॅन्मार्काच्या सगळ्यांत व्हड शिल्पकारान संवसारांत नामना जोडिल्ली. मोगेन्झ बॉगिल्ड, रॉबर्ट थाकॉप्सन, एरिक टॉमसन, गुन्नार वेस्टमन हे हालींच्या तेंपावयले नावाजिल्ले डॅनीश शिल्पकार. अठराव्या शेंकड्यांत डॅनीश कला अकादमी आनी 'रॉयल डॅनीश अॅकॅडमी ऑफ फायन आर्ट्स' हांची थापणूक जाली. युलयेन्स आनी एन. ए. आबिलगार हे ह्या काळांतले नामनेचे चित्रकार आशिल्ले. क्रिस्तोफर विल्हेल्म एकर्सबर्ग ह्या एकुणिसाव्या शेंकड्यांतल्या चित्रकाराक डॅनीश चित्रकलेचो जनक अशें मानतात.

थिओगेर फिलीप्सेन ह्या चित्रकारासावन डॅन्मार्काच्या नव्या पिळग्यांच्या चित्रकारांची सुरवात जाली. पी. एस. क्रुइअर, अॅना अॅकर, विल्हेल्म् हामेरशॉय, आयनार नीलसन, पीटर हानसेन, युहानेस लार्सन, कार्ल बोव्हिन, एजलर बिले, एजिल आकॉप्सन हे हालींच्या तेंपावयले नामनेची डॅनीश चित्रकार.

डॅन्मार्कांत पर्यटनाक खूब वाव आसून वर्साक लाखांनी परदेशी भोंवडेकार देशाक भेट दितात. कोपनहागेन, ऑर्हूस, ओदेन्से, ऑलबॉर्ग, एस्बीअर्ग, रॉनर्स आनी हॉर्सन्स हीं डॅन्मार्कांतलीं व्हड शारां.

– कों. वि. सं. मं.

**डॅन्यूब** : युरोपांतल्या व्होल्गा हे न्हंयेचे फाटोफाट दुसऱ्या क्रमाकांची एक व्हड न्हंय. तिची लांबाय सुमार २८५० किमी. आनी जलवाहनक्षेत्र सुमार ८१६,००० चौ. किमी. ही न्हंय अस्तंत जर्मनींत उगम पावून युरोपाच्या आठ देशांतल्यान व्हांवत वचून काळ्या दर्याक मेळटा. हिचीं पुर्विल्लीं नांवां डॅन्यूबीअस आनी इस्टर अशीं आसून अस्तंत जर्मनींत आनी ऑस्ट्रियांत तिका डानाऊ, चेकोस्लोव्हाकियांत डुनाय, हंगेरींत डुनॉ, युगोस्लाव्हियांत आनी बल्गेरियांत डुनोव्ह, रुमानियांत डूनर्या आनी रशियांत डुनाइ म्हण्टात.

अस्तंत जर्मनीच्या ब्लॅक फॉरेस्ट दोंगराच्या उदेंत उतारावयल्या ब्रेग आनी ब्रीगाख तशेंच हेर कांय उगमप्रवाह डोगाउ-ए-शिंगन हे सुवातेर एकठांय येवन डॅन्यूब न्हंय सुरू जाता. थंयसावन ही न्हंय उल्मवेल्यान ईशान्येकडेन रेगेन्झबर्गाक येता. ह्या वाठारांतल्या चुनखडकांत कांय उदक झिरपून थंयसावन न्हायनच्या देगणांत वता. थंयच्यान आग्नेयेकडल्या रूंद, पिकाळ आनी सपाट मैदानांतल्यान ती ऑस्ट्रियाचे शिमेवयल्या पासौ गांवांत येता. थंयच्यान लिंट्स आनी व्हिएन्नावयल्यान ती चेकोस्लोव्हाकिया ब्रात्यिस्लाव्हा गांवांत येवन उपरांत हंगेरियन गेट निदरींतल्यान हंगेरिच्या ल्हान मैदानांत देवता. थंय तिचो वेग उणो जावन तिच्या पात्रांत गाळ आनी फातर सांचतात. अशे फातर सांचून थंय ल्हान व्हड जुंवे तयार जाल्यात. थंय जायती दलदलय तयार जाल्या. थंयच्यान डॅन्यूब न्हंय व्हीशेग्राटाचे निदरींतल्यान वचून सरळ दक्षिणेकडेन घुंवता आनी हंगेरीच्या व्हड मैदानांतल्यान बुडापेस्टावयल्यान वचून उदेंतेकडेन घुंवता. युगोस्लाव्हियाचें बेलग्रेड शार हुंपून ती रुमानियाचे आयर्न गेट हे निदरींतल्यान भितर सरता. थंयच्यान ही न्हंय सुमार ४८०किमी. उदेंतेकडेन आनी रुमानिया तशेंच बल्गेरिया हांचे शिमेवयल्यान वता. हे न्हंयेचें पात्र सद्या ४४ ते १९२० मीटर रूंद, १.७ ते १० मी. खोल आसून तिचो वेग वराक १.६ ते ४ किमी. आसता. चेर्नाव्हाड गांवांत ही न्हंय उत्तरेकडेन घुंवता आनी गलात्सी गांवांत परती उदेंतेकडेन वता. टुल्या गांवांत तिचो ४,३१६ चौ. किमी. विस्ताराचो त्रिभूज वाठार सुरू जाता. त्रिभूज वाठार पिकाळ आसून थंय लागवडी आनी ओकाचीं रानां जाल्लीं आसात. थंयच्या लव्हाळ्यापसून कागद आनी तंतू तयार करतात.

डॅन्यूब न्हंयेक सुमार ३०० उपन्हंयो आसात. तातूंतल्यो दावेकडेन मेळपी आल्टम्यूल, नाप, मोरावा, व्हा, न्यित्रा, हरॉन, टिस, ऑल्ट, आर्जेस सीरेट, प्रूट आनी उजवेकडल्यान मेळपी इलर, लेख, ईझार, इन, एन्स, लॉइतां, राबा, द्रावा साव्हा, मोराव्हा, ईस्कर ह्यो मुखेल आसात.

वेपारी न्हंय येरादारीखातीर डॅन्यूब न्हंयेचें चड म्हत्व आसा. पासौ आनी लिंटस गांवांनी धरणां आनी बांद बांदून न्हंय येरादारी सोंपी केल्या. डॅन्यूब न्हंयेचेर रशियाची इस्मायल आनी ऱ्येनयी, रुमानियाची गलात्सी, ब्राईला, जुर्जू, बल्गेरियाची रुसे आनी लॉम, युगोस्लाव्हियाचें बेलग्रेड, हंगेरीचें डुनॉऊईव्हारोश आनी बुडापेस्ट, चेकोस्लोव्हाकियाचीं कॉमॉर्नो आनी ब्रात्यिस्लाव्हा, ऑस्ट्रियाचीं व्हिएना आनी लिंट्स आनी अस्तंत जर्मनीचें रेगेन्झबर्ग अशी वेपारी बंदरां आसात.

जलविद्युत् उत्पादनाखातीर आनी उदकाशिंपणावळी खातीर हे न्हंयेचो उपेग करतात. हे न्हंयेचेर जर्दाप धरण आनी आयर्न गेट जलशक्तीकेंद्र हो रुमानिया आनी युगोस्लाव्हिया हाणीं उबारिल्लो सगळ्यांत व्हड प्रकल्प आसा. चेकोस्लोव्हाकिया, हंगेरी, रुमानिया आनी बल्गेरिया हाणींय कांय प्रकल्प उबारल्यात. विएना, बुडापेस्ट, बेलग्रेड, रुसे आनी हेर जायतेकडेन हे न्हंयेचो उद्देगीक कामाखातीर उपेग करतात. पूण शारांतलो नाका आशिल्लो उद्देगीक म्हाल, सारी, चिखोल आनी गटाराचें उदक हे न्हंयेत सोडिल्ल्यान जगांतल्या प्रदुशीत न्हंयांतली तीय एक जाल्या. तशें जाल्ल्यान हे न्हंयेंत नुस्तें उरना आनी ताचो परिणाम नुस्तेंउद्येगाचेर जाता.

रोमन साम्राज्यासारक्या घटमूट साम्राज्याची शीम, देगेवयल्या घटमूट दुरगाची संरक्षक फळी आनी तांच्या आदारान तयार जाल्ल्यो वसाहती हांचेखातीर डॅन्यूब न्हंयेक इतिहासांत खूब म्हत्व मेळ्ळें. इ. स. आदीं सातव्या शतमानांत ग्रीकांनी तिच्या सकयल्ल्या भागाक इस्टेर हें नांव दिलें. हॅप्सबर्ग घराण्यान हे न्हंयेचें उदका येरादारीखातीर म्हत्व जाणलें. १८३० सावन वेपारी उदकामार्ग म्हणून हे न्हंयेक म्हत्व मेळ्ळें. १९२१ आनी १९२३त ग्रेट ब्रिटन, इटली, बेल्जियम, ग्रीस आनी हे न्हंयेक प्रत्यक्षांत संबंद आशिल्लीं राश्ट्रां हाणीं डॅन्यूब कायदो मान्य केल्ल्यान उल्मसावन काळ्या दर्यामेरेन उदका येरादारीचेर देखरेख आनी अधिकार दवरपी विस्तृत अधिकाराचो डॅन्यूब आयोग स्थापन जालो. दुसऱ्या

म्हाझुजांत मुक्त आंतरराश्ट्रीय उदाका येरादारी बंद जाली. १९४८त रशियेचे सुचोवणेन डॅन्यूबाकडेन प्रत्यक्ष संबदीत राश्ट्रांचो आस्पाव आशिल्लो नवो डॅन्यूब आयोग स्थापन जालो. ब्रिटन, फ्रान्स आनी अमेरिका हाणीं हे कबलातीचेर निशाण्यो करूंक नात.

-हायन-मेन-डॅन्यूब ह्या कालव्यान पुराय युरोपांत उदकायेरादारीची बरी सोय जाल्या. डॅन्यूब, ओडर आनी एल्ब ह्यो न्हंयो कालव्यांनी आनी व्हिश्चला-बग-नीपर उदकामार्गाकडेन जोडून डॅन्यूबा वयली येरादारी सरळ उत्तर दर्यामेरेन आनी बाल्टिक दर्यामेरेन पावोवपाची येवजण आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**डांगी भास :** गुजरातांतल्या डांग जिल्ह्यांतली एक भास. ही भास अहिराणी भाशेकडेन संलग्न अशी आसा. द्विभाशीक मुंबय राज्याच्या विभाजना उपरांत डांग ह्या प्रदेशाचो गुजरात राज्यांत आस्पाव केलो. ह्या प्रदेशाचे उत्तरेक बडोदा जिल्हो, अस्तंतेक सुरत जिल्हो, दक्षिणेक नासिक जिल्हो आनी उदेंतेक खानदेश आसा. डांगच्या प्रदेशांत उलयतात ते भाशेक 'डांगी' हें नांव आसा.

हे भाशेच्या स्वरुपाविशीं विद्वानांभितर मतभेद आसात. कांय विद्वानांच्या मताप्रमाण, ही भास मराठीची पोटभास, जाल्यार कांय विद्वानांच्या मतान, ती स्वतंत्र भास आसून, तिचो मराठी आनी गुजराती हातूंतले खंयचेच भाशेकडेन संबंद ना. संबंद आसलोच जाल्यार तो भिल्ली भाशेकडेन आसा. ही भास गुजरात आनी महाराष्ट्र ह्या दोनूय प्रदेशांच्या शिमेवयल्या प्रदेशांतल्या लोकांची बोली भास आशिल्ल्यान, ह्या दोनूय भाशांचीं खाशेलपणां डांगी भाशेंत आयल्यांत.

खानदेशासावन, डांग प्रदेशांतल्यान गुजरातेंत वतना कसलोच भाशीक बदल जाणवना. हाकाच लागून, कांय अभ्यासकांच्या मतान डांगी बोली ही खानदेशी आनी गुजरातेंतली संक्रमक बोली आसात. तेखातीर गुजराती आनी मराठी ह्या दोनूय भाशांकडेन, डांगी भाशेचें खूब सारकेपण आसा.

डांगी भाशिक लोकांची संख्या १९६१चे जनगणनेप्रमाण ६०.५८४ आशिल्ली.

डांगी भाशेंतल्या एका गिताचो नमुनो -

काय काय महिनी आली होळी ।<br>
फाल्गुन महिनी आली होळी ग ।<br>
काय काय दिवशी आली होळी ।<br>
सोमवार दिवशी आली होळी ग ।<br>
काय काय भेट लेशी होळी ग ।<br>
खावा भेट लेशी होळी ग ।<br>
फाफर भेट लेशी होळी ग ।<br>
खोबर भेट लेशी होळी ग ।

डांगी उतारो - तवळ तेना वडील पोंसा खेतमा व्हता. तो घर-कडे येवाले लागला तदळ त्याले काई वाजा व नाच ऐकु आना.

अणकार - त्या वेळार ताचो व्हडलो पूत शेतांत आशिल्लो. तो घराकडेन येवपाक लागलो तेन्ना ताका कांय पदां आनी नाच आयकुपाक आयले.

- कों. वि. सं. मं.

**डानी, उत्तम कृष्णाजी :** (जल्म : २५ नोव्हेंबर, १९३४, कामतवडे - नासिक).

सुटकेझुजारी. तो सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो जनता पार्टीचो वांगडी जालो. २५ जून १९५५ ह्या दिसा गोडसे हाच्या फुडारपणाखाल इब्रामपूर पेडण्यां जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी केल्ल्या फारपेटांत ताका बरीच दुखापत जाल्ली. उपरांत २३ दीस बंदखणींत दवरून ताका सोडलो. पेठ तालुक्यांतल्या जनता पार्टीचे शाखेचो तशेंच पेठ तालुक्यांतले आंगनवाडी सभेचो तो चिटणीस आशिल्लो. १९८९त महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**डाम, हेन्रीक कार्ल पिटर :** (जल्म : २१ फेब्रुवारी १८९५, कोपनहेगन; मरण : २४ एप्रिल १९७६, कोपनहेगन).

नामनेचो डॅनीश जीवरसायनशास्त्रज्ञ. कोपनहेगनच्या पालिटॅक्निक इन्स्टिट्युटांत १९२०त ताणें रसायनशास्त्राची पदवी मेळयली. कोपनहेगन विद्यपिठाच्या शरीरक्रियाविज्ञान विभागांत ताणें १९२३त प्रवेश घेतलो आनी १९२८ सावन त्याच विद्यापिठाच्या जीवरसायनशास्त्र विभागांत तो काम करूंक लागलो. अमेरिकन स्कॅंडिनेव्हियन फाउंडेशनावरवीं १९४०त तो कॅनडांत आनी अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत व्याख्यानां दिवपाखातीर गेलो आनी १९४६ मेरेन थंयच रावलो. अमेरिकेंतल्या आपल्या राबित्यांत ताणें रॉचेस्टर विद्यापिठांत (१९४२-४५) वरिश्ठ संशोधक म्हणून आनी न्यूर्याकच्या रॉकफेलर इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅडिकल रिसर्च हे संस्थेंत (१९४५-४६) सहकारी वांगडी म्हणून काम केलें. डॅनीश फॅट रिसर्च इन्स्टिट्युटाच्या जीवरसायनशास्त्र विभागांचो मुखेल म्हणून १९५६-६३ ह्या काळांत ताणें काम केलें.

के जीवनसत्वाविशींचें संशोधनकार्य ताणें १९२९ सावन कोपनहेगनांत आनी ई जीवनसत्वाविशींचें कार्य १९३७ सावन कोपनहेगन आनी अमेरिकेंत केलें. पित्ताश्मरीविशीं (Gallstone) ताणें कोपनहेगनांत १९५१ सावन संशोधन सुरू केलें.

कोंबयांच्या पिलांक कॉलेस्टॅरॉल विरयत खावड दिल्यार तांच्यांत रक्तस्त्राव जावप तशेंच रक्तक्लथन (रगत गोठपाची क्रिया) बेगीन ना जावप हीं लक्षणां डाम हाका दिसून आयिल्लीं; पूण हीं लक्षणां कॉलेस्टॅरॉलाचे न्युनतेक लागून नासून एका वसा-विद्राव्य जीवनसत्त्वाक लागून उप्रासतात, अशें डाम हाणें सिध्द केलें. ह्या जीवनसत्वाक फुडें १९३५त के जीवनसत्व अशें नांव पडलें. रक्तस्त्रावाची प्रवृत्ती आशिल्ल्या मनशाच्या दुयेंसांतल्या के जीवनसत्वाच्या वावराविशींय डाम हाणें संशोधन केलें. स्टॅरॉलां, के आनी ई जीवनसत्वां ह्या विशयावयले ताचे कितलेशेच लेख उजवाडाक आयल्यात. के जीवनसत्त्वाचो सोद लायिल्लेखातीर ताका १९४३ वर्साचो वैजकी आनी शरिरक्रियाविज्ञान ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार ई. ए. डॉयझी हाचे वांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**डायना :** रोमी देवांच्या चोम्यांतली एक देवी. तिका मुळांत वनदेवता

मानताले. ग्रीक देवी आर्टेमिस आनी डायना ह्यो एकच आशिल्ल्याचें मानतात. डायना (आर्टेमिस) ही ज्यूपिटर (झ्यूस) आनी लेटोना (लेटो) हांची चली आनी अपोलोची जुंवळी भयण. ती सात्वीक कुमारी आसून तिका वनदेवी आनी पारधदेवी मानताले. सुफलतेकडेन तिचो लागशिल्लो संबंद आशिल्ल्यान बायलो आपल्याक गर्भ उरचो तशेंच बाळंटेर सुरळीत जावंचो आनी जल्मल्ल्या नव्या बाळकाक राखण मेळची म्हणून तिची उपासना करतात.

डायनाचे उपासनेचे लॅटीन लिगांत अरिशीआ आनी ॲव्हन्टायन अशे दोन मुखेल संप्रदाय आसात. रोमाचे दक्षिणेक अरिशीआ लागसार नेमी तळ्याचे देगेर 'डायना नेमोरोन्सिस' म्हळ्यार वनदेवी डायना नांवाचें तिचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. लॅटीन लिगामदलें तें सगळ्यांचेंच मुखेल उपासनाकेंद्र आशिल्ल्यान ताका राजकीय नदरेनय म्हत्व आशिल्लें. व्हर्बीयस हो वीरदेव तशेंच ईजीरिया ही देवी ह्या गौण देवांवांगडा डायनाचीय थंय उपासना जाताली. सुरवातीक लॅटीन लिगांत रोमचो आस्पाव नाशिल्लो. पूण फुडें रोमाकडेन लॅटीन लिगाचें फुडारपण येतकच डायनाचो उपासनासंप्रदाय रोमांतय आयलो. रोमांतल्या ॲव्हन्टायन दोंगुल्लेचेर एका रानांत डायनाचें देवूळ बांदलां. १३ ऑगस्ट हो तिचे परबेचो मुखेल दीस. ह्या दिसा बायलो तिची पुजा करतात. अरिशीआच्या तिच्या देवळांतय बायलो तिका फुलां ओंपतात. तेचपरी हातांत दिवो आनी मशाल घेवन मिरवणुकीन थंय वचून आपलो नवस पावयतात. डायनाचे उपासनेक सुरवातेक आंकवार आनी उपरांत सौभाग्यवती बायलांक म्हत्व प्राप्त जालें. पूण अरिशीआचो तिचो पुरयत मात मुक्त जाल्लो दादलो गुलामच आसतालो. डायना ही सकयल्या वर्गाची चड करून गुलामांची राखण देवता मानताले. देखून १३ ऑगस्ट ह्या दिसा जावपी तिचे परबे दिसा सगळ्या गुलामांक सुटी दिताले. आदल्या गुलाम पुरयताचो नव्या गुलामान वध केलो म्हण्टकच चालीप्रमाण तो तिचो नवो पुरयत जातालो. धर्मीक खेळांवेळार रोमांत ॲव्हन्टायन-डायनाची आनी अपोलोची एकठांय उपासना करप जाताली.

आर्टेमिस हे सोबीत देवीची, चंद्रदेवता, पारधदेवता, वनदेवता आनी मातृदेवता वा आदिमाता ह्या स्वरुपांनीय उपासना करताले. अशिया मायनर वाठारांत आशिल्लें तिचें देवूळ संवसारांतल्या सात पुर्विल्ल्या अजापांतलें एक अजाप अशी ताची नामना आसा. हातांत मशाल वा धोणू, फाटीचेर बाणांचो भातो आनी म्हन्यांत एक हरण वा शिकारी सुणो अशीं तिचीं सुंदर शिल्पां आसात.

— कों. वि. सं. मं.

**डायनोसॉर** : मध्यजीव महाकल्पांत (सुमार २३ ते ९ कोटी वर्साआदल्या काळांतले) अस्तित्वांत आशिल्ले पृश्ठवंशी सरीसृप (फाटीचो कणो आशिल्ले सरपटपी) प्राणी. हे प्राणी मध्यजीव महाकल्पांत उदयाक आयले. थंय तांचो विकास आनी प्रसार जालो आनी त्याच म्हाकल्पाच्या निमाणें ते निर्वंश जाले. डायनोसॉर ह्या ग्रीक शब्दाचो अर्थ भिरांकूळ शेड्डो असो आसून सुरवातीक मेळिल्ल्या तांच्या व्हड सांगाड्यां वयल्यान तांकां तें नांव दिलां. पूण हे सगळेच व्हड आशिल्ले अशें ना. तांच्यांत कोंबये पिलायेदोय आकार आशिल्लो आनी ते वेगवेगळ्या वाठारांत रावंक शकताले. सरीसृपांच्या आर्कोसॉरिया ह्या महागणांत डायनोसॉरांचो आस्पाव जाता.

तज्ञ लोक डायनोसॉराची उत्पत्ती अशी मांडटात – उत्तर कारबॉनिफेरस (सुमार ३१ कोटी वर्साआदल्या) काळांत अस्तित्वांत आशिल्ल्या लॅबिरिंथोडोंट ह्या उभयचरांचो क्रमविकास जावन कॉटिलासॉर हो सरीसृप प्राण्यांचो मूळ पुर्वज तयार जालो. ताचेपसून फुडें कांसव, सस्तन सरीसृप आनी थेकोडाँट निर्माण जाले आनी थेकोडाँटांसावन डायनोसॉर निर्माण जाले. ऑर्निथोसूचस हो एक प्राणी थेकोडाँटावरीच आशिल्लो आनी ताच्या सर्वसादारण देहाची घडण आनी शरिररचना हाची छाप डायनोसॉराच्या देहांत स्पश्टपणान दिसता. देखून थेकोडाँट हे डायनोसॉरांचे पुर्वज आसात अशें मानतात.

डायनोसॉराचे पांय सरळ उबे आसून ताका लागून ताचो देह जमनीपसून वयर उखलिल्लो आसता आनी ताचीं पावलांय लांब लांब अंतराचेर पडटात. ताचें हेंच खाशेलपण ताका आर्कोसॉर आनी हेर सरीसृप प्राण्यांपसून वेगळायता.

डायनोसॉराचे सॉरिशिया आनी ऑर्निथिशिया हे दोन गण आर्कोसॉरिया महागणांत पडटात.



सॉरिशिया आनी ऑर्निथिशिया हातूंत दोन पांयांचे आनी चार पांयांचे प्राणी आशिल्ले. द्विपादाचे फाटले पांय लांब, बळिश्ट आनी भरगच्च जाल्यार फुडले पांय आंखूड आसताले. तांची शेंपडी लांब आनी जड आशिल्ल्यान सांगाड्यांतल्या ज्या भागाक फाटले पांय सांधिल्ले आसतात त्या भागांतल्या हाडांचेर (श्रोणि-अस्थी) हे प्राणी आपल्या देहाचो फुडलो भाग तोलून धरूंक शकताले. तांच्यो श्रोणी-अस्थी आनी फाटीचो कणो हे घट्टपणान जोडिल्ले आसताले. चतुष्पाद डायनोसॉर व्हड आनी जड देहाचे आसताले. ताचे सगळेच पांय आंखूड, भरीव आनी घट आसताले. सॉरिशिया आनी ऑर्निथिशिया ह्या डायनोसॉरांतलें वेगळेपण तांच्या श्रोणी-अस्थींचे रचणुकेवयल्यान करतात. सॉरिशिया म्हळ्यार सरीसृप श्रोणी आनी ऑर्निथिशिया म्हळ्यार सुकण्यांची श्रोणी. ह्या गणांतल्या डायनोसॉराच्यो श्रोणी-अस्थी सुकण्यांच्या श्रोणी-अस्थींवरी जोडिल्ल्यो आसतात. सॉरिशियनांचे दांत हेर सरीसृपांवरी सादे रचणुकेचे आनी तीक्ष्ण आसून हे दांत जबड्याचे कडेन पुराय जबडोभर आसतात. ऑर्निथिशियाक फुडले दांत नासतात. तांकां पक्षावरी चोंच आसता.

**सॉरिशिया** ह्या गणांत शाकाहारी आनी मासाहारी ह्या दोनूय प्रकारांचे डायनोसॉर येतात. द्विपाद सॉरिशियनाचे पांय सुकण्यांच्या पांयांवरी आसतात. तांकां 'थेरोपोडा' अशें नांव दितात. उत्तर ट्रायसिक काळांत दोन तरेचे थेरोपोडा मेळटात. सील्यूरोसॉरिया आनी कार्नोसॉरिया.

अ) सील्युरोसॉरिया – उत्तर ट्रायसिक ते उत्तर क्रिटेशस काळांत

ल्हान आकाराचे द्विपाद प्राणी मेळ्ळ्यात. सुरवातीकच सांपडिल्ल्या ह्या प्राण्यांमदीं सिलोफिसिस हो मुखेल प्राणी मेळटा. ताच्या शरिराचे जायते सांगाडे उत्तर अमेरिकेंत आनी न्यू मेक्सिकोच्या उत्तर भागांत मेळ्ळ्यात. तो २.५ मी. लांब, उण्या वजनाचो आनी चपळ आशिल्लो. ह्या प्रकारांतलो कॉम्प्सॉग्नेथस हो ल्हान आकाराचो प्राणी बव्हेरियांतल्या उत्तर जुरासिक काळांत तडागांचे देगेर रावतालो. हातूंतलोच आनीक एक प्रकार म्हळ्यार स्ट्रुथिओमायमस. ताच्या शरिराची सामान्य रचना चडशी द्विपाद डायनोसॉरावरी आशिल्ली. ह्या प्रकाराच्या प्राण्यांक 'ऑस्ट्रिच डायनोसॉर' हें नांव दितात. हाका ऑर्निथोमायमस अशेंय म्हण्टात. तो क्रिटेशस काळांत (सुमार १४ ते ९ कोटी वर्सांआदीं) अस्तित्वांत आशिल्लो.

ब) कार्नोसॉरिया - स्कॉटलंडांत ऑर्निथोसूचस हाचेवांगडा व्हड आनी भिरांकूळ असो कार्नोसॉर नांवांचो थेरोपॉड अस्तित्वांत आशिल्लो. ताची कवटी व्हड आनी घट आशिल्ली, मान आनी फुडले पांय आंखूड आशिल्ले. ताचें वजन तोलून धरपाखातीर फाटले पांय भरीव आनी रूंद आशिल्ले. ऑनिर्थोसूचस हो ४ मी. लांब आसून ताच्या हाताक पांच बोटां आशिल्लीं. उत्तर जुरासिक काळांत उत्तर अमेरिकेंत ॲल्लोसॉरस नांवाचो ११ मी. लांबायेचो प्राणी मेळ्ळो. थंयच मेळिल्लो सेरॅटोसॉरस हो ॲल्लोसॉरसा परस अर्दान आशिल्लो प्राणी. ताच्या नाकार एक शींग आशिल्लें. थेरोपॉडांतलो सगळ्यांत व्हड डायनोसॉर म्हळ्यार टायरॅनोसॉरस. तो सुमार ६.५ मी. ऊंच आशिल्लो.

सगळ्यांत भयंकर व्हड अशे डायनोसॉर हे चतुष्पाद सॉरिशियन आशिल्ले. ह्या प्राण्यांक सॉरोपोडा ह्या नांवान वळखतात. ट्रायसिक काळांत प्रोसॉरोपोडा ह्या मूळ प्रकारावांगडा सॉरोपोडा मेळून सॉरोपोडामॉर्फा हो उपगण तयार जाला.

**सॉरोपोडोमॉर्फा** - हे लांब, भरीव आनी घटमूट पांय आशिल्ले सॉरिशियन प्राणी थेरोपोडाआदीं उदयाक आयले. प्रोसॉरोपोडा - ह्या प्राण्यांमदीं शाकाहारी आनी मासाहारी दोनय प्रकारांचे आसुंये. पूण चड करून तांच्या सांगाडयांत तीक्ष्ण दांत मेळूंक नात. प्लॅटिओसॉरसाचे आनी हेर प्रोसॉरोपोडाचे दांत चेपटे आशिल्ले. उत्तर ट्रायसिक फातरांनी जर्मनींत ६ मी. लांबायेचो प्लॅटिओसोरस हो प्राणी मेळिल्लो. तेभायर हेर वाठारांतले प्रोसॉरोपोडा अशे - चीनांतलो ल्युफेंगासॉरस, उत्तर अमेरिकेंतलो ॲचिसॉरस. हे चडशे शाकाहारीत मोडटात. मासाहारींत युरोपांतलो पॅलिओसॉरस, आफ्रिकेंतलो ग्रायपोनिक्स आनी चीनांतलो सिनोसॉरस हांचो आस्पाव जाता.

**सॉरोपोडा** - सगळ्या चतुष्पाद प्राण्यांमदीं ह्या उपगणांतलो डायनोसॉर सगळ्यांत व्हड आशिल्लो. पूण ताचे प्रकार मात खुबूच उणे आसात.. जुरासिक काळांतल्या फातरांनी हे प्राणी अमेरिकेंतल्या वायोमिंग आनी उटा ह्या राज्यांनी तशेंच उदेंत आफ्रिकेंत तांचे जायते नमुने मेळटात. तांची मान लांब आनी कवटी ल्हान आसताली. हातूंत ब्रॅकिओसॉराचे फुडले पांय फाटल्या पांयांपरस लांब आशिल्ले. हो सॉरोपोडांत सगळ्यांत व्हड प्राणी आसून तो उत्तर जुरासिक आनी उदेंत क्रिटेशस काळांतल्या फातरांनी उदेंत आफ्रिकेंत टेंडागुरू गांवांत उत्तर अमेरिकेच्या अस्तंत भागांतल्या मॉरिसनांत मेळ्ळा. बर्लिन विद्यापिठाच्या संग्रहालयांत ताचो सांगाडो आसा. हाच्या हाडापरसय व्हड आनी रूंद अशी हेर ब्रॅकिओसॉरसाचीं हाडां मेळ्ळ्यांत. तांचे फुडले पांय फाटल्या पांयांपरस लांब आशिल्ले. ताचे शरीर रचणुके वयल्यान तो खोल उदकांत रावतालो अशें दिसता. तो सुमाराभायर ऊंच आशिल्लो आनी ताची उंचाय ३० मी. परसय चड आशिल्ली.

सॉरोपॉडांतले ब्रॅांटोसॉरस आनी डिप्लोडोकस ह्या दोन डायनासॉराचे सांगाडे जायत्या संग्रहालयांनी आसात. डिप्लोडोकस सुमार २९ मी. लांबायेचो जाल्यार ब्रॅांटोसॉरस ताचेपरस मातसो उणे लांबायेचो आनी चड रूंद. ह्या प्रकारांतल्या सगळ्याच प्राण्यांची शरीररचना अशी आसताली - भक्कम देह, फाटले पांय चड करून जड आनी टणक अशे, ल्हान तकली, आंखूड आनी अशक्त जबडो, दुर्बळ अशे दांत. हाचे वयल्यान हे प्राणी उदकांतली वनस्पती खावन रावताले अशें अनुमान काडटात. ह्या प्रकारचे सॉरोपोड चड करून दलदलींत, तळ्यांत वा न्हंयेंत रावताले.

उत्तर अमेरिकेंत फातरांनी मेळिल्लो डिप्लोडोकस सुमार ३० मी. लांब आशिल्लो. कॅमेरासॉरस हो डिप्लोडोकसापरसय ल्हान प्राणी. ब्रॅकिओसॉरस आनी चीनांतलो हेलोपस हेय कॅमेरासॉरसा भशेन प्राणी आशिल्ले. दक्षिण अमेरिकेंत अंटार्क्टोसॉरसाची पुनर्रचित कवटी मेळिल्ली.

**ऑर्निथिशिया** - ह्या गणांतले प्राणी शाकाहारी आशिल्ले. सॉरिशिया गणांतल्या प्राण्यांपरस हांचो खुबशा गजालींनी क्रमविकास जाल्लो आसा. जुरासिक काळांत तेचपरी क्रिटेशच आनी उत्तर ट्रायासिक (सुमार २१.५ ते २० कोटी वर्सांआदल्या) काळांतय द. आफ्रिका, चीन, आर्जेंटिना आनी नोव्हास्कोशा ह्या सुवातींनी ते अस्तित्वांत आशिल्ले. ह्या गणांत विचित्र दिसपी वेगवेगळे डायनोसॉर आशिल्ले. देखीक - डकबिलावरी रचणूक आशिल्लो डायनोसॉर. कांय जाणांचें शरीर चिलखती जाल्यार कांय जाणांच्या आंगार धारदार तीक्ष्ण अशे संरक्षक कांटे. कांय जाणांक शिंगां आशिल्लीं. ह्या गणांत १) द्विपाद ऑर्निथोपॉड वा सुकण्यांच्या पांयांवरी आशिल्ले डायनोसॉर २) चतुष्पाद स्टेगोसॉर ३) चिलखती देह आशिल्ले ॲंकिलोसॉर ४) सेराटॉप्सिशियन वा शिंगां आशिल्ले डायनोसॉर ५) हाडांच्या उंचवट्यांनी युक्त तकली आशिल्ले पॅचिसेफॅलोसॉरस हे प्राणी येतात. ह्या प्राण्यांच्या तोंडाच्या फुडल्या भागांत शिंगाच्या आकाराची चोंच तयार जाल्ली. हे चोंचीभितर पूर्व - हन्वस्थी आनी सकयल्या जबडयांत खाशेलें अशें मध्यस्थ हाड आसतालें. जबड्याचे भितल्लेवटेन चाकवाच्या पात्यावरी तीक्ष्ण दांत आशिल्ले.

**द्विपाद ऑर्निथोपॉड** - हांची शरीररचना मासाहारी थेरोपॉडावरी आशिल्ली. दक्षिण आफ्रिकेंत हेटरोडॉंटो - सॉरसाचो ल्हान सांगाडो मेळ्ळा. जांकां पूर्व - हन्वस्थी दांत आशिल्ले अशे ऑर्निथोपॉड, हिप्सिलोफोडॉन आनी थेस्केलॉसॉरस मध्यजीव महाकल्पाच्या निमाणेमेरेन अस्तित्वांत आशिल्ले. ऑर्निथिशियन डायनोसॉरांचे विचित्र आनी वेगवेगळे प्रकार कसलेंच खाशेलेपण नाशिल्ल्या कॅम्प्टोसॉरसापसून निर्माण जाले अशें समजतात. कॅम्प्टोसॉरसावरी दुसरो ऑर्निथिशियन डायनोसॉर इग्वानोडॉन. ह्या प्राण्याच्या हाताच्या आखाण्या जाग्यार खिळ्यावरी कांटो आसतालो. हांचेवरीच आनीक एक व्हड द्विपाद प्राणी म्हळ्यार ॲनाटासॉरस. हाका ट्रॅकोडॉन ह्याय नांवांन वळखतात. ताच्या तोंडाचो फुडलो भाग बदकाचे चोंची वरी आसतालो. ताच्या जबडयांत २,००० मेरेन दांत आशिल्ले. ॲनाटासॉरसावरीच हेर जायते डकबिल आशिल्ले.

**स्टेगोसॉर** - हे चिलखती देह आशिल्ले डायनोसॉर चतुष्पाद आशिल्ले. हांचे खाशेलपण म्हळ्यार फाटीच्या मध्यार तकलेसावन शेंपटेमेरेन वचपी चकत्याच्यो दोन रांगो आसताल्यो. ह्यो त्रिकोणी आकाराच्यो आनी तीक्ष्ण आसताल्यो. ताचे शेंपटेच्या तोंकार खिळ्यावरी चार मोटे कांटे आसताले.

इंग्लंडांतलो स्केलिडॉसॉरस, उत्तर अमेरिकेंतल्या स्टेगोसॉरस आनी त्रिकोणी चकत्यांपरस चड कांटे आशिल्लो आफ्रिकेंतलो हे केन्ट्रुरासॉरस हे ह्याच वंशांतले प्राणी.

**अँकिलोसॉर** – हाच्या शरिराचेर हाडामासाच्या चकत्यांचें आवरण आसतालें. ह्या प्रकाराच्या डायनोसॉरांत इंग्लंडांतलो हायलिओसॉरस हाचोय आस्पाव जाता. अमेरिकेंतल्या कॅन्झस राज्यांत मेळिल्ले सिल्हिसॉरस हो अँकिलोसॉर आनी स्टेगोसॉर हांचेमदलो दुवो.

**सेराटॉप्सियन** - हो शिंगां आशिल्लो आनी सगळ्यांत निमाणो उदयाक आयिल्ल्या डायनोसॉरांतलो एक प्रकार आशिल्लो. ह्या चतुष्पाद प्राण्याक ल्हान मान, ल्हान शेंपटी आनी पोपटावरी चोंच आशिल्ली. तशेंच ताका लांबशी तकली आसताली. ताचे मानेपसून फाटले वटेन वाडिल्ल्या हाडाची झालर आसताली. अशा प्रकारचो पयलो सेराटॉप्सियन म्हळ्यार प्रोटोसेराटॉप्स. हे प्राणी तांतयां घालताले. ह्या प्रकारापसून सेराटॉप्सियनाचे हेर प्रकार निर्माण जाले. क्रमविकासाक लागून तांच्या आकारांत वाड जावन तांकां व्हड भिरांकूळ अशीं शिंगां आयलीं. उत्तर अमेरिकेंतल्या मोनोक्लोनिअसाच्या नाकार एक शींग जाल्यार ट्रायसेराटॉप्साक तीन व्हड शिंगां आशिल्लीं. पॅचिरायनॉसॉरसाचे तकलेक फुडल्या भागांत एकच उंचवटो आशिल्लो. सेराटॉप्सियना फकत उत्तर क्रिटेशस काळांत अस्तित्वांत आशिल्ले पूण थोड्याच काळांत तांचो बरोच क्रमविकास जाल्लो आसा.

**पॅचिसेफॅलोसॉरस** – हातूंतलो स्टेगोसॉरस हो एक ल्हान आनी विचित्र डायनोसॉर. हांचेकडेन संबंदीत आशिल्ल्या उत्तर अमेरिकन डायनोसॉरांचे आकार ताचेपरस दुपटेन आशिल्ले.

**भारतांतले डायनोसॉर** – भारतांत उत्तर क्रिटेशस काळांत लॅमेटा माळेच्या फातरांत जबलपूर (मध्य प्रदेश) आनी पिजदुरा (चंद्रपूर जिल्हो, महाराष्ट्र) ह्या सुवातींचेर डायनोसॉराचे जिवाश्म मेळ्ळ्यात. हांगा स्टेगोसॉरिया आनी सील्यूरोसॉरियाचे जिवाश्म मेळ्ळ्यात. तांचे जे जिवाश्म सांपडल्यात तांचेवयल्यान डायनोसॉराचे अंटार्क्टोसॉरस, टायटॅनोसॉरस, इंडोसॉरस, लॅमेटोसॉरस, जबलपोरिया, लाप्लाटासॉरस, मेगॅलोसॉरस हे वंश आशिल्ले अशें दिसून येता.

मध्यजीव महाकल्पांतल्या निमाण्या काळांत डायनोसॉराचे चडशे प्रकार अस्तित्वांत आशिल्ले. पूण त्या काळाच्या निमाणें ते पुराय तरेन ना जाले. तापमानांतले बदल, रोग पातळप, तांचीं तांतयां हेर प्राण्यांनी खावप ह्या कारणांक लागून तांचो अंत जालो अशें दिसता. क्रिटेशस काळांत पर्वत निमार्ण जावपाची प्रकियाय सुरू जाल्ली. ते जंय रावताले थंय उंचाय आयली, वातावरणांत बदल घडले, ते ज्यो वनस्पती खावन जगताले त्योय ना जाल्यो. ताका लागून शाकाहारी डायनोसॉर उणे जाले. हाचो परिणाम म्हळ्यार शाकाहारी डायनोसॉर खावपी मासाहारी डायनोसॉर उणे जाले अशी म्हायती मेळटा. तरी पूण डायनोसॉर पुरायतरेन निर्वंश जावपाचें समाधानकारक उत्तर मेळना.

- कों. वि. सं. मं.

## डायबिटीस (गोडेंमूत) :

रगतांत इनसुलीन नांवाचें हॉरमोन उणें जावन तेपसून रगतांतलें साकरेचें प्रमाण वाडप आनी ताकालागून मुतांतल्यान साकर वचप, हाका गोडेंमूत (diabeties) अशें म्हण्टात. हें दुयेंस खूब पुर्विल्लें आसून हजारांनी वर्सां आदीं सुश्रुत नांवाच्या वैद्यान गोड्यामुताची म्हायती आपल्या लिखाणांत दिल्ली.

संस्कृत वा कोंकणी भाशेंत गोड्यामुताचो अर्थ फकत मुतांत साकर आशिल्ल्यान तें गोड लागता असोच जाता. इंग्लिशींत डायबिटीस हो शब्द मुतूंक परत परत जाता हाच्यावयल्यान आयिल्लो आसा.

गोडेंमूत चड करून अनुवंशीक आसता ताका लागून एकाच घराण्यांत जायत्या लोकांभितर हें दुयेंस दिसून येता. आमच्या आंगांत अग्निपिंड (Pancreas) नांवाचो एक अवयव आसता. तातूंत थोड्योशो खाशेल्यो पेशी आसतात. तातूंतल्यान इनसुलीन हो हॉरमोन तयार जावन रगतांत मिसळटा. इनसुलीन रगतांतली साकर प्रमाणशीर दवरता. जाका गोडेंमुताचें आसता, ताच्या रगतांत एकतर इनसुलीनाचें प्रमाण उणें जाता वा इनसुलीन आसुनूय तें जायतशें काम करीना. हाचेभायर अग्निपिंड हो अवयव दुसरें कसलेंच दुयेंस जावन इबाडत जाल्यारय रगतांतलें इनसुलीन उणें जाता आनी ताका लागून गोडेंमूत जावंक शकता. देखीक – अग्निपिंडशोथ, अग्निपिंड कॅन्सर आदी.

गोडेंमूत हें भोवतेक दोन तरांचें आसता. पयलें ल्हान भुरग्याचें गोडेंमूत जाका ल्हान पिरायेचेर जावपी गोडेंमूत अशें म्हण्टात. हातूंत रगतांतलें इनसुलीनाचें प्रमाण सामकें उणें जाता आनी इनसुलीन भायल्यान दिल्याबगर गोडेंमूत आटोक्यांत येना. दुसरें म्हळ्यार जाणट्यांक जाता तें गोडेंमूत. जाका जाण्टयाचें वा 'मॅच्युरिटी ऑन सेट डायबेटीस' अशें म्हण्टात. तांच्या रगतांत इनसुलीन आसता पूण तें फाव तशें काम करिना आनी असल्या गोड्यामुताक भायल्यान इनसुलीन दिवपाची गरज आसता.

गोडेंमूत जावप म्हळ्यार ताका खास अशीं लक्षणां आसूंक जाय अशें नासता. पूण रगतांतली साकर अकस्मात वाडिल्ली आसली तर मुतूंक परते परते जाता, मुताचें प्रमाण वाडटा, तान चड लागता, भूक चड लागता आनी तरी आसतना वजन खुबशें कमी जाता. जायत्यावेळा दुसरीं कसलींय दुयेंसां जातकच ताच्या बरोबर रगतांतलें साकरेचें प्रमाण वाडूंक शकता आनी तेन्ना त्या दुयेंसावांगडा गोड्यामुताचीं अशीं खास लक्षणां उरनात. देखीक – काळजाचो आताक, शस्त्रक्रिया, अपघात, बाळंटेर आदी.

रगतांत साकर चड आसतकच जायत्या तरांचे जंतू आटोक्याभायर आंगांत भितर सरूंक शकतात आनी ताका लागून तरेतरेचीं दुयेसां जावंक शकतात.

गोड्यामुताचेर दोन तरांनी उपचार करूं येतात. एक जेवणाखाणाचेर ताबो दवरून आनी दुसरो वखदांनी. पयलो उपाय जेवणा खाणाचेर ताबो दवरपाचो आनी साकर तशेंच गोड पदार्थ खावपाचे बंद करपाचे, वजन चड आसल्यार तें देंवोंवपाचें, तांदूळ, गंव आनी तेलकट पदार्थ कमी करपाचे. अशें करून लेगीत रगतांतली साकर देंवना जाली जाल्यार मागीर वखदां घेवचीं पडटात. गोड्यामुताचेर वखदां म्हळ्यार इनसुलीन इंजेक्शनां वा गुळयो. जांच्या रगतांत इनसुलीन मातय नासता ताका भायल्यान इनसुलीन इंजेक्शन दिवचें पडटा आनी तें दिल्याबगर तांची साकर देवूंकच शकना. इनसुलीन हें दोन तरांचें आसता. एके तरेच्या इनसुलीनाचो साकरेचेर रोखडोच परिणाम जाता. तर दुसरे तरेच्या इनसुलीनाचो साकरेचेर परिणाम जावंक वेळ लागता. पूण ताचो परिणामय चड वेळ उरता. दोनय इनसुलीनांचो मेळ घडोवन उपेग करतात. जाण्टेपणांतल्या गोड्यामुताचेर भोवतेक करून गुळयो लागू पडटात.

असल्यो गुळयो दोन तरांच्यो आसतात.

एकेतरेच्या गुळयांनी अग्निपिंडातलें इनसुलीन तयार जावपाचें प्रमाण वाडटा. ताका लागून साकर देंवता. दुसरे तरेच्या गुळयांनी रगतांतलें साकरेचें प्रमाण देवंक लागता. जायत्यावेळार एके तरेच्यो गुळयो लागनाजाल्यार दोनूय तरांच्यो गुळयो एकाच बरोबर घेवंच्यो पडटात. जेवणा-खाणाची जतनाय, गुळयो वा इनसुलीन हातूंतलें जें कितें लागता तें दोतोराच्या सल्लयान सदांच चालू दवरूंक जाय कारण गोडेंमूत हें सादारणपणान सामकें बरें अशें जायना.

गोडेंमूत हें दुयेंस बाकीच्या दुयेंसां सारकें जंतूपसून न जाल्ल्यान हाचेर विशेश खबरदारी अशी घेवपासारकी नासता. पूण जाच्या घराण्यांत गोडेंमूत आसता त्या घराण्यांतल्या जाण्टया लोकांनी दर वर्सा रगताची तपासणी करून घेतल्यार बरी. तशेंच जेवणा–खाणाचेर आनी वजनाचेर ताबो दवरूंक जाय. गोड्या मुतान रगतांतली साकर वाडटा पूण फकत साकर वाडिल्ल्यान तशें नुकसान जायना. खूब वर्सां गोडेंमूत आसतकच ताचे पसून आंगांत वायट परिणाम घडटात आनी ते घडटकच परत पयलींभशेन सारके जायनात.

रगतांत साकर जर एकदम खूब वाडली वा वखदां घेता आसतन अकस्मात उणी जाली तर दुयेंत मनीस बेशुद्ध जावं येता आनी अशी स्थिती घातक जावं येता. दोळ्यांचे शिरेचेर परिणाम जावन नदर कमी जाता आनी कुड्डेपण येवंक शकता. गोडेंमूत जाल्ल्या मनशाक मोतीबिंदू जावपाची शक्यताय आसता. गोड्यामुताक लागून रगत व्हरपी शिरांक दूयेंस जावन काळजाक, मेंदवाक आदी अवयवांक रगत उणे प्रमाणांत पावन काळजाचो आताक, आर मारप ह्या सारकीं दुयेंसां जावं येतात. हाता पायांचे नर्व्ह ल्हवल्हव इबाडून चलप कठीण जांव येता.

जगार सगळेकडेन गोड्यामुताचें दुयेंस दिश्टी पडटा. सादारणपणान ह्या दुयेंसाचें प्रमाण दोन ते तीन टप्पे आसतात. पूण अस्तंत देशांपरस भारतांत हें प्रमाण इल्लें चड दिसून येता. पांच ते धा टक्के लोकांक गोड्यामुताचें दुयेंस आसूं येता अशें खुबश्या लोकांचे मत आसा. तशेंच गोंयांतय गोड्यामुताचें प्रमाण तितलेंच आसूंये. चड करून जाण्टया लोकांत पन्नाशी जातकच ह्या दुयेसाचें प्रमाण वाडटा आनी ते पिरायेचेर सर्वसादारण २०% ते ३०% लोकांभितर गोडेंमूत मेळूंक शकता.

- डॉ. जी. के. सालेलकार

**डायस, आयवन :** घाना, टोगो, बेमीन (वॅस्ट आफ्रिका) ह्या राश्ट्रांतलो आपोस्तोलीक प्रो-न्युन्सीओ. तो मूळचो वेळसांव साश्टीचो. १९५८ वर्सा तो धर्मप्रचारक जालो आनी १९८२ वर्सा तो आर्चबिशप जालो. चीन आफ्रिकन राश्ट्रांच्या दुतावासांकडेन संलग्न आशिल्ल्या व्हॅटिकन राजनितीक दळांत ताणें सक्रिय वावर केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**डायस, आलेक्स :** (जल्म : कळंगूट).

पोर्टब्लॅरचो पयलो बिशप. पिलारचे 'ऑल इंडिया मिशन सेमिनारी' हातूंत ताणें धर्मीक शिक्षण घेतलें. १९६९ वर्सा तो पाद्री जालो. पिलार संस्थेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९८५ वर्सा तो बिशप जालो. अंदमान आनी निकोबार जुंव्यावयल्या नव्यान उबारणी केल्ल्या पोर्टब्लॅर डायोसीसचो तो कार्यकारी वांगडी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**डायस ज्योकीं :** (जल्म : १२ मे १९२०, कुंकळ्ळी, साश्ट).

गोंयचो सुटकेझुजारी. बापायचें नांव फ्रांसिस झेवियर डायस. ताणें बी. ए., एलएल. बी. मेरेन शिक्षण घेतलें. विद्यार्थी जीवनापसून ताणें भारतीय स्वातंत्र चळवळींत वांटो घेतलो, विद्यार्थी जिवीतांत ताका जायतेखेपे कादयेंत वचचें पडलें. ताचो 'प्रजामंडळा' कडेन लागींचो संबंद आसलो. तो गोवन यूथ लिगाचो १९४३ ते १९६१, संस्था विसर्जीत जायमेरेन अध्यक्ष आसलो. डॉ. जुलियांव मिनेझीस हाच्या 'गोमन्तक' ह्या इंग्लीश साताळ्याचो तो सहसंपादक आसलो. ताणें लोकांमदीं राजकीय जागृताय हाडूंक सभा घेतल्यो आनी मिरवणुको काडल्यो.

पुण्याक तो महात्मा गांधीच्या सहवासांत आयलो आनी गोंयच्या स्वातंत्र्य लढ्याखातीर तांचेकडल्यान ताणें आशिर्वाद घेतलो. १९४६ त तो बेर्ता मिनेझिसावांगडा पंडित नेहरूक मेळ्ळो आनी ताचेकडल्यान गोंयासंबंदान निवेदन घेतलें, जाका देशभर प्रसिध्दी मेळ्ळी.

डॉ. टी. बी. कुन्हाक 'गोंयाभितर नागरी स्वातंत्र्य' ह्या विशयाचेर उलोवप दिवपाक आपयले जें उलोवप उपरांत गोवन यूथ लिगान छापलें.

- कों. वि. सं. मं.

**डायस, व्हिसेंत दु रूझारियु :** (जल्म : राय; मरण : १८४२).

गोंयचो धर्मप्रचारक. सुरवातेक तो गोंयच्या सेंट फिलीप नेरी चे प्रवचन सभेंत वावर करूंक लागलो. उपरांत ताणें श्रीलंकेक धर्मप्रचारक म्हणून जायतीं वर्सां वावर केलो. फुडें १८३३ ते १८३७ ह्या काळांत तो थंयचो व्हिकार जनरल जालो. १८३७त ताका पोप ग्रॅगरी सोळावो हाणें श्रीलंकेचो पयलो व्हिकार आपोस्तोलीक म्हणून नेमलो.

- कों. वि. सं. मं.

**डार्विन, चार्ल्स रॉबर्ट :** (जल्म : १२ फेब्रुवारी १८०९, श्रीवस्बरी, इंग्लंड; मरण : १९ एप्रिल १८८२, डाऊन).



नामनेचो इंग्लीश सैम शास्त्रज्ञ. ताच्या बापायचें नांव रॉबर्ट डार्विन आनी आवयचें नांव सुसान डार्विन. चार्ल्स हो तांचो पांचवो भुरगो. ताचो बापूय रॉबर्ट हो नामनेचो दोतोर आसलो आनी आजो इरॅस्मस डार्विन होय फांकिवंत शास्त्रज्ञ

आसलो. ताचे चार पूत व्हड शास्त्रज्ञ जाले. जार्ज हो खगोलशास्त्रज्ञ आनी गणिती आसलो. फ्रांसिस वनस्पतीशास्त्रज्ञ आसलो. लिओनार्ड संततीशास्त्रज्ञ जाल्यार होर्स नागरी अभियंतो आसलो.

चार्ल्स डार्विन हाका भुरगेपणासावन सैम आवडटालो. पिरायेच्या आठव्या वर्सा ताची आवय भायर पडली. उपरांत भयणीन ताका ल्हानाचो व्हड केलो. पिरायेच्या णवव्या वर्सा ताचें श्रीवस्बरी हायस्कुलांत नांव घालें. ताची शिक्षणांतली उदरगत तितली नेटाची नासली पूण तो इंग्लीश भाशेचो बरे रितीन उपेग करूंक शिकलो, जे वरवीं तो शेक्सपियर आनी मिल्टनाच्या साहित्याचो खूब आनंद घेवंक शकलो. सन १८२५त ताणें वैजकीच्या शिक्षणाखातीर एडिनबरो विद्यापिठांत प्रवेश घेतलो. १८२८त ताणें ख्रिस्त कॉलेज केंब्रिजांत ब्रिटीश परंपरेचें (Anglican order) शिकप घेवंचें ह्या हेतान नांव घालें. ते भायर ताणें वनस्पतीशास्त्र शिकचें ह्या हेतान जॉन स्टीव्हन्स हॅनस्लोच्या अभ्यास क्रमांतय प्रवेश घेतलो आनी किडे जमोवपाक सुरवात केली. ताच्या ह्या कामांक खूब नामना मेळ्ळी. १८३१त तो पदवीधर जालो. विलीयम पेलेचें पुस्तक 'नॅचरल थिऑलोजी' (Natural Theology) डॉर्विनाचेर बरोच प्रभाव घालून गेलें. ह्या विशयाचेर केंब्रिज विद्यापिठांत ताणें केल्लें अध्ययन ताका जिवितांत खूब मोलाचें थारलें.

एडिंबरोंत सैममोगी म्हणून नामना मेळयिल्ल्याचो ताका जिवितांत खूब फायदो जालो. हेन्सलोचे शिफारशीवयल्यान आरमार खात्याच्या एच. एम. एस. 'बीगल' ह्या सर्वेक्षण करपाक भायर सरिल्ल्या तारवाचेर सैमशास्त्रज्ञ म्हणून ताची नेमणूक जाली. २७ डिसेंबर १८३१ ते २ ऑक्टोबर १८३६ हे पांच वर्सांचे भोंवडेंत ताणें सैमांतल्या जिव्या वस्तूंचें निरिक्षण केलें. प्राणी, वनस्पत, खडप हांचो चत्रायेन अभ्यास करून ताणें तांचे जायते नमुने एकठांय केले. तांच्या विंगड विंगड जातींतलो फरक आनी वेगवेगळे सैमीक परिस्थितीकडेन एकरूप जावपाखातीर सजीव वस्तूंनी जाल्ले शारिरिक आनी क्रियाविज्ञानीक बदल हांच्या निरिक्षणाच्या आदारान ताणें कांय कल्पना निश्चित करपाक सुरवात केली. खास करून प्राचीन वनस्पतीच्या कांय जीवाश्मां संबंदान विचार करून भूतकाळ आनी वर्तमानकाळांतले जातीच्या परस्पर संबंदांचें ताका आकलन जावपाक लागलें. भोंवडे वयल्यान परततकच ताणें आपणाकडेन आशिल्ली म्हायती, संग्रह आनी जातीच्या परस्पर संबंदांच्या कल्पनांचो जीवविज्ञानाचे उदरगतीखातीर उक्तेपणान वापर केलो. आपल्या पांच वर्साचे भोंवडेंत ताणें द. अमेरिका, अॅटलांटिक म्हासागरांतले जुंवे, न्युझिलँड, ऑस्ट्रेलिया, गालपॅगस जुंवे, केप ऑफ गूड होप, टास्मेनिया, सेंट हेलेना ह्या जाग्यांक भेटी दिवून थंयच्या सैमाचो लागींसावन अभ्यास केलो.

सन १८३३-५८ ह्या पंचवीस वर्सांच्या कालखंडांत चार्ल्स डार्विन हाणें सैमाचें निरिक्षण आनी संशोधन करून अस्तित्वांत आशिल्ल्या जिवांच्या जातींचे उत्पत्तीसंबंदान आपलो सिद्धांत तयार केलो. पूण त्याच काळांत मलायांत संशोधन करपी आल्फ्रेड रसेल वॅसल ह्या सैमशास्त्रज्ञान जीवनाचे सर्तीत 'सैमीक निवड' जावन योग्यतमांचो चड काळ तिगून उरतात अशें सांगलें. वॅसलान आपलो निबंद डार्विना कडेन ताचें मत पळोवपाक धाडून दिलो. आपल्या सारकेच विचार वॅसलान मांडिल्ले पळोवन डार्विन अजापलो. पूण चार्ल्स लायल जोसेफ, डाल्टन हुकर हांणी डार्विनाक ह्या संशोधनाचें श्रेय दोगांकूय वचपाक जाय अशें सांगलें. ते प्रमाण फुडलीं दोन वर्सां एकठांय कार्य करून दोगांनीय आपले निश्कर्श लिन्नाएल सोसायटीमुखार मांडले. तांच्या ह्या संशोधनाचेर शास्त्रज्ञांनी भासाभास करून 'सैमीक निवडीन जावपी जातींचो उगम' हे मूळ कल्पनेक मान्यताय दिली आनी हातूंतल्यान 'ओरिजीन ऑफ स्पिशीस' म्हळ्यार उत्क्रांतीशास्त्रप्रणालीचो जल्म जालो.

**डार्विनाची उत्क्रांतीशास्त्राची प्रणाली** - अतिप्राचीन आनी आधुनीक वनस्पत आनी जीव हांच्या जायत्या जातींचें निरीक्षण करतकच, सैमांत फकत एकच मूल स्वरूप विंगड विंगड आकारांनी, वातावरणाक अनुकूल अशा स्वरूपांत दिसता आसुंये अशें ताचें मत जालें. विंगड विंगड वातावरणांनी अनुकूल अशी रचना आनी गूण ह्या वनस्पतींक आनी प्राणिमात्राक कशे मेळटात? हें कुवाडें डार्विनाक सुटनासलें. नामनेचो अर्थशास्त्रज्ञ टी. आर. मालथस हाचो 'एसे ऑन द प्रिन्सिपल ऑफ पॉप्युलेशन' ह्या लेखाच्या वाचना उपरांत ताचो हो प्रस्न सुटलो. मालथसच्या मतान जगपाखातीर जाय आशिल्ल्या साधनांच्या कितल्या तरी पटींनी जीव जल्माक आयले आसले तरी जगपाची साधना मेळोवपाक एक तर तांकां एकमेकांचो पालव घेवंचो पडटलो वा सर्त तरी करची पडटली.

जगपाखातीर धडपड करप ही गजाल सभावीकच आसा. अशा वातावरणांत जर खंयचेय जातीक वा खंयच्याय प्राण्याक वातावरणाक अनुकूल अशें शारिरीक आंग वा शक्त आसल्यार ते जातीचें वा प्राण्याचें सर्तीतलें जैत थरिल्लेंच आसता. जगपाखातीर धडपड करप ह्या तत्त्वाचो आदार घेवन डार्विन सांगता, प्राणिमात्रांची चलिल्ली धडपड वातावरणाकडेन मेळटें-जुळटें घेवपाखातीर आशिल्ल्यान वातावरणाकडेन जुळोवन घेवपी कसलोय गूण म्हत्वाचो थारता आनी त्या गुणाक सांबाळपाची प्रवृत्ती निर्माण जाता. अशा गुणांचें सैमाकडल्यान सांबाळप जाता आनी ते गूण प्राप्त जाल्ल्या जीवमात्रांची जगपाखातीर वेंचणूक जाता. जे जीव वातावरणांत स्वताक जुळोवन घेवपाक असमर्थ थरतात त्या प्राणिमात्रांच्यो जाती नश्ट जातात. अशे तरेन नव्या नव्या जातींची आनी उपजातींची उदरगत घडत रावता.

मनशाची उदरगत ह्याच तत्त्वांतल्यान घडल्या आसून, धर्मीक संस्था आनी हेरांच्यो मनशां बदलच्यो कल्पना कसलीच मुळावी बसका नाशिल्ल्यो आसात अशें ताणें भर दिवन सांगलें. हेर जीव मात्रांमदीं दिसून येवपी मूळ प्रेरणा आनी मनशां भितर दिसून येवपी विचारशीलतेचो खास गूण ह्या दोगांयभितर परस्पर विरोध आसपाचें कारण ना, तेच परी सैमाचे नेम आनी मनशाच्या नैतिक भावनांक आदार थरिल्ली सहानुभूती आनी पालव हीं तत्त्वां 'जीवनाखातीर धडपड' करपाक उपेगी थरतात अशेंय ताणें सांगलें.

ह्या उत्क्रांतीतत्त्वाचेर खर टिका जाली. पूण इंग्लंडाचो जुलियन हक्सली, अमेरिकेचो एसा ग्रे आनी जर्मनीचो एर्न्स्ट हेकेल ह्या शास्त्रज्ञांनी तिका आपलो पुराय तेंको परगटायलो आनी थोडी निवळपां करून हें तत्त्व सर्वमान्य जालें.

वयल्या तत्त्वाचेर आदारिल्लो 'ऑरिजिन ऑफ स्पिशीस' हो ग्रंथ २४ नोव्हेंबर, १८५९ दिसा उजवाडाक आयलो.

वनस्पत, मोनजात आनी मनीसजात हे सगळे जीव प्राचीन अशा साध्या जीवासावन निर्माण जाले. जसो जसो काळ गेलो तशे तशे हे क्रमा क्रमान विकसीत जायत गेले आनी आयचे स्थितीक पावले. म्हणजेच सगळे जीव हे परिवर्तनीय आसतात हो डार्विनाचो सिद्धांत ताणें सकयल

दिल्या ग्रंथांनी बरो विस्कटावन सांगिल्लो आसा. ह्या सिद्धांताचीं वेगवेगळीं तत्त्वां फावो त्या पुराव्यांसयत तांणी ह्या ग्रंथांत मांडल्यांत. तातूंत - १) ऑन द मुव्हमेंट्स अँड हॅबिट्स ऑफ क्लाइंबिंग प्लांट्स (१८६१) २) ऑन द व्हेरियस कन्ट्रायव्हन्सीस बाय वीच ब्रिटीश अँड फॉरेन ऑर्किड्स आर फर्टिलायज्ड बाय इन्सॅक्ट्स (१८६२) ३) द व्हेरिएशन ऑफ अनिमल्स अँड प्लांट्स अँडर डोमेस्टिकेशन (१८६८) ४) द डिसेंट ऑफ मॅन अँड सिलेक्शन इन रिलेशन टू सॅक्स (१८७१) ५) द एक्स्प्रेशन ऑफ द इमोशन्स इन मॅन अँड ॲनिमल्स (१८७२) ६) इन्सेक्टिव्हॉरस प्लांट्स (१८७५) ७) द इफॅक्टस ऑफ क्रॉस अँड सॅल्फ फर्टिलायझेशन इन द व्हॅजिटेबल किंग्डम (१८७६) ८) द डिफरंट फॉर्म्स ऑफ फ्लॉवर्स ऑन प्लांटस ऑफ द सेम स्पिशीस (१८७७) ९) द पावर ऑफ मुव्हमेंट इन प्लांटस (१८८०) १०) द फॉर्मेशन ऑफ व्हॅजिटेबल मोल्ड थ्रु दी ॲक्शन ऑफ वर्म्स (१८८१) हे ग्रंथ आस्पावल्यात. ते भायर पाख्याची कृत्रीम रितीन केल्ली प्रजोत्पादनाची म्हायतीय तांणें संकलीत केली आनी संवसारांतल्या शिंपली जलचरासंबंदी (बारनॅकल) चार पुस्तिकाय उजवाडाक हाडल्यात.

डार्विन लंडनांतल्या भूविज्ञान मंडळाचो चिटणीस म्हणून १८३८ ते १८४४ मेरेन आसलो. १८३९त रॉयल सोसायटीचो वांगडी म्हणून तो वेंचून आयलो.

डार्विनाचे उत्क्रांतीशास्त्राचे प्रणालीक लागून शास्त्रज्ञ आनी लोकांची जीवनाकडेन पळोवपाची नदर बदलली. वनस्पत आनी प्राणी हांच्या वर्गीकरणाचें तत्त्व चलणुकेंत हाडपाक डार्विनाचो वयलो सिद्धांत कारण जालो. ग्रॅगॉर मॅंडला सारक्या शास्त्रज्ञाच्या संशोधनाचेरय डार्विनाचो व्हड प्रभाव पडला. आधुनीक युगांत कोशिका विज्ञान आनी आनुवंशिकी हातूंत जाल्ल्या संशोधनाक लागून डार्विन हाच्या सिद्धांतांतय थोडोभोव फरक पडिल्लो जाणवता.

– पंढरीनाथ श्री. सुरसुरे

**डाल्टन जॉन :** (जल्म : ६ सप्टेंबर १७६६, ईगल्सफिल्ड (कंबर्लंड); मरण : २७ जुलय १८४४, मँचेस्टर).

नामनेचो इंग्लीश रसायनशास्त्रज्ञ आनी भौतीकशास्त्रज्ञ. अणुसिद्धांताचो जनक म्हणून हाका वळखतात. तो मँचेस्टरच्या न्यू कॉलेजांत गणित आनी भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक आशिल्लो (१७९३-९९). मँचेस्टरच्या लिटररी अँड फिलॉसॉफिकल सोसायटीचो वांगडी जातकच १७९३त रंग-कुड्डेपणाचो (Colour blindness) तांणें सोद लायलो. तेविशींची फोडणिशी तांणें विस्तारान सोसायटीमुखार मांडली. तो स्वताच रंगकुड्डो आशिल्लो. तांबड्या आनी पाचव्या रंगांमदीं भेद करूंक येवप ना, ह्या दोशाक 'डाल्टनिझम' अशें म्हण्टात.

वायूंच्या गुणधर्मांविशीं तांणें केल्लो वावर खूब मोलादीक आसा. शास्त्र हे नदरेन वातावरणविज्ञानाची तांणेंच बुन्याद घाली. वायूंची उदकांतली विद्राव्यता (Solubility) आनी तांचे हेर गूणधर्म हे ज्या वेगवेगळ्या मुळाव्या कणांसावन वायू तयार जाल्यात, त्या कणांचीं वजनां आनी संख्या हांचेर आदारून आसतात, अशें अनुमान तांणें काडलें. 'New System of Chemical Philosophy' (१८०८-२७) ह्या आपल्या पुस्तकांत तांणें आपले सिद्धांत विस्तारान दिल्यात. अणू हे अविभाज्य आनी अविनाशी आसात आनी खंयच्याय एका मूलद्रव्याचे सगळे अणू एकसारके आसतात, अशें ताचें मत आशिल्लें. संयुगांतल्या अणूंचे संख्येप्रमाण संयुगांचें वर्गीकरण करपाची पद्दतय तांणें तयार केल्ली. डाल्टनाचे कांय अदमास चुकीचे आशिल्ले अशें फुडें सिध्द जालें. पूण ताचो अणुसिध्दांत आनी अणुभाराची कल्पना म्हत्वाची आशिल्ल्यान तिका लागून रसायनशास्त्रांत क्रांती घडून आयली.

१७८७त तांणें वातावरणीय निरिक्षणांची नोंद दवरपाक सुरवात केली. अशो सुमार दोन लाख नोंदी एकठांय करतकच तांचेर आदारीत Meteorological Observations and Essays हो ग्रंथ तांणें १७९३त उजवाडायलो.

रॉयल सोसायटीन १८२२त वांगडी म्हणून ताची वेंचणूक केली आनी १८२५त अणुसिद्धांताखातीर सोसायटी वरवीं ताका भोवमानाचें पदक दिलें. एडिंबरो, बर्लिन, म्यूनिक आनी मॉस्कोच्या शास्त्रीय संस्थांचोय तो वांगडी आशिल्लो.

– कों. वि. सं. मं.

**डाळींब :** (मराठी : डाळिंब; हिंदी : अनार; गुजराती : दादाम; कन्नड : डाळिंबद हण्णु; संस्कृत : दाडिम, वल्क, रक्तबीजपुष्प; इंग्लीश : पोमग्रॅनेट; लॅटीन : प्युनिका ग्रॅनॅटम; कूळ : प्युनिकेसी).

ही वनस्पत ५ ते १० मी. ऊंच वाडटा. पानां सादीं २ ते ८ सेंमी. लांब, एकामेकांसामकार झुपक्यांनी येतात. तरणीं आसतना पानां तांबशीं आसतात जाल्यार जून जातकच पाचवीं जातात. फुलां एकसुरीं, जोडयेन वा घोंसांनी येतात. तीं व्हड आनी तांबडीगूंज आसतात.

डाळिंबाचो उगम इराण, अफगाणिस्तान, बलुचिस्तान ह्या देशांनी जाला म्हणपाची नोंद आसा. स्पेन, मोरोक्को, इजिप्त, इराण, अफगाणिस्तान, बलुचिस्तान, मॅक्सिको, अमेरिका आनी उ. अमेरिकेंतल्या फ्लॉरिडा आनी कॅलिफॉर्निया ह्या देशांनी डाळिंबाची व्हडा प्रमाणांत लागवड जाता. भारतांत महाराष्ट्र, आंध्रप्रदेश, उत्तर प्रदेश, हिमाचल प्रदेश, तमीळनाडू आनी कर्नाटक राज्यांनी डाळिंबाची लागवड करतात.



डाळिंबाचे जायते प्रकार आसात. तातूंतले कांय म्हत्वाचे अशे आसात - आळंदी, बेदाना, धोलका, काबुल, खंडाहारी, पेपर रोल, पूना स्पॅनीश रबी, वेलाडु. डाळिंबाच्यो कांय सुदारीत जाती आसात, त्यो अशो - गणेश, मस्कत, ज्योती, जी-१३७, जी. के. व्ही. के.-१, कोईमुत्तूर - १, पी-२३, पी-२६.

डाळिंबाची लागवड सुक्या हवामानांत बरी जाता. ह्या पिकाक मध्यम काळी जमीन मानवता. डाळिंबाची लागवड बियांपसून करपाक जाता, पूण कलमापसून लागवड केल्यार उत्पन्न चड आनी बेगीन मेळटा. लागवड करपाखातीर ५ x ५ मी. अंतराचेर ६०x६०x६० सेंमी. लांब, रूंद आनी खोल नेमां मारतात. हीं नेमां शेणखत वा कंपोस्ट आनी अर्दकिलो सुपर फॉस्फेट घालून भरून घेतात. नेमांनी बी.एच.सी. हें वखद घालतात. उपरांत त्या नेमांनी मदीं डाळिंबाचें रोंप वा कलमां लायतात. लागवड जून वा ऑक्टोबर म्हयन्यांत करतात. गिमा दिसांनी झाडाक आठ दिसांनी एकदां उदक दितात. पांच वर्सां आनी ताचे परस चड पिरायेच्या डाळिंबाच्या झाडाक ६२५ ग्रॅ. नत्र, २५० ग्रॅम स्फुरद आनी २५० ग्रॅ. पालाश दितात.

फळाची साल मातशी हळदुवी जाली की फळ काडपाक तयार जालें अशें समजुचें. एका झाडा पसून सरासरीं १०० ते १५० फळां मेळटात. डाळिंबाचें झाड २० ते ३० वर्सां मेरेन उत्पन्न दिता.

डाळिंबाच्या पिकाक जायत्या तरांच्यो किडी आनी रोग लागतात. फळ पोखरपी कीड, साल खावपी कीड, खोडकिडो, फूलकिडो, कोळी, धवोमूस, काळो भिकूण ह्या किडींपसून चड नुकसान जाता. पानांवयले थिपके आनी फळां कुसप हे दोन म्हत्वाचे रोग डाळिंबाच्या पिकाचें नुकसान करतात.

डाळिंब हें गोड, पुश्टीक आनी वखदी फळ. जेवल्या उपरांत मुखशुध्दी खातीर ह्या फळाचो उपेग जाता. डाळिंबाच्या झाडाचीं फळां, फुलां, पानां, साल, मूळ ह्या भागांचो वखदी उपेग जाता. फळांनी चड प्रमाणांत 'क' जीवनसत्व आसता. खोंकलेचेर फळाचे सालीचो रस वापरतात. तेचपरी फळाची साल अतीसार आनी मोडशी हांचेर उपेगी पडटा. फुलांचो रस घेतल्यार ओकारो थांबता. डाळींब हें शक्त दिवपी, वजन वाडोवपी, दोळ्यांक थंडाय दिवपी अशें फळ. फुलांच्या रंगाचो कपड्यांक रंग दिवपाक वापर करतात.

– विश्राम गांवकार

## डॉइझी, एडवर्ड ॲडेलबर्ट :

(जल्म : १३ नोव्हेंबर १८९३, ह्यूम - इलिनॉय).

अमेरिकन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ताणें इलिनॉय विद्यापिठाच्यो ए. बी. (१९१४) आनी एम्. एस्. (१९१६) ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. उपरांत पयल्या म्हाझुजांत सैन्यांत नोकरी केली आनी १९२०त हार्व्हर्ड विद्यापिठाची पीएच.डी. पदवी मेळयली. १९१९-२९ ह्या काळांत ताणें वॉशिंग्टन विद्यापिठाच्या स्कूल ऑफ मेडिसिनाच्या जीवरसायनशास्त्र विभागांत निर्देशक सहाय्यक आनी सहयोगी प्राध्यापक म्हणून काम केलें. फुडें तो सेंट लुईस विद्यापिठाच्या स्कूल ऑफ मेडिसिनांत जीवरसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आनी विभाग मुखेली जालो (१९२४). १९५१त ताची विशेशीत सेवा प्राध्यापक म्हणून निवड जाली.

एडगर ॲलन हाचेवांगडा ताणें हुंदराच्या ऋतुचक्राचें नियमन करपी अंडाशयांतल्या संबंदीत अशा घटकांचो अभ्यास केलो. तातूंतल्यानूच ताणें स्टेरॉयडांतलो इस्ट्रोन हो हॉरमोन स्फटिक रुपांत पयलेच खेपे १९२९त वेगळो केलो. उपरांत ताणें इस्ट्रिऑल आनी इस्ट्राडिऑल - १७ वीटा हीं संबदीत संयुगांय वेगळीं केलीं. फुडें हीं संयुगां वा तांचेकडेन लागींचे संबंद आशिल्ले अनुजात बायलांच्या लैंगिक रोगांवयल्या उपचारांत व्हडा प्रमाणांत वापरपाक लागले. डॉइझी आनी ताच्या वांगड्यांनी वनस्पतीसावन के -१ आनी सुक्ष्मजंतूसावन के -२ हीं जीवनसत्वां शुद्ध स्वरुपांत वेगळीं केलीं, तशेंच के -१ जीवनसत्व १९३९त कृत्रीम रितीन तयार केलें. डॉइझी हाणें इन्सुलीन, प्रतीजैव पदार्थ, हॉरमोनां आनी पित्ताम्ल हांचो चयापचय ह्या विशयांतूय संशोधन केलां.

के -१ जीवनसत्व शुद्ध स्वरुपांत कृत्रीम रितीन तयार करून ताचे वखदी गूण सिद्ध केल्लेखातीर ताका १९४३चो वैजकी आनी शरिरक्रियाविज्ञान ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार हेन्रीक डाम हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

– कों. वि. सं. मं.

## डॉझ, चार्ल्स गेट्स :

(जल्म : २७ ऑगस्ट १८६५, मॅरीएट-ओहायओ; मरण : २३ एप्रिल १९५१, एव्हॅनस्टन-इलिनॉय).

अमेरिकन मुत्सद्दी, उपराश्ट्राध्यक्ष आनी शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो जैतिवंत. मॅरीएट म्हाविद्यालयांतल्यान एम्. ए. (१८८७) जातकच फुडें ताणें कायद्याचो अभ्यास केलो आनी कांय वर्सां नेब्रॅस्का राज्यांतल्या लिंकन नगरांत वकीली केली (१८९४). उपरांत ताणें वेगवेगळे गॅस आनी इलॅक्ट्रीक कंपन्यांच्या वेवसायांत पदार्पण केलें. १८९६त ताणें मॅकिन्लीचे अध्यक्षीय वेंचणुकेचे प्रचार मोहिमेंत वांटो घेतलो आनी तेउपरांत ताची म्हालेखापरीक्षक म्हणून नेमणूक जाली (१८९७-१९०१). फुडें सॅंट्रल स्टेट कंपनी काडून तो बॅंकिंगाच्या वेवसायांत पडलो आनी एके बॅंकेचो संचालक जालो.

पयल्या म्हाझुजावेळार ताका मेजराची बडटी मेळ्ळी. पूण जनरल जॉन जे परशिंगान ताका झुजा साहित्याची पुरवण करपाचें काम दिलें. तें ताणें चोखपणान केलें. ताका लागून ताका ब्रिगेडियर जनरल हो किताब मेळ्ळो. १९२१त तो अर्थसंकल्पाच्या कार्यालयांत संचालक जालो. ताणें सरकारी दुडवांचो नश्टखर्च उणो करून कितल्योशोच सुदारणा केल्यो. ताका लागून १९२३-२४त हानीपुर्ती समितीचो मुखेल म्हणून ताची नेमणूक जाली. झुजा उपरांतचे जर्मनीची अर्थवेवस्थेची पुनर्रचणूक करपाखातीर ताणें एक येवजण मांडली. ती 'डॉझ येवजण' ह्या नांवान नामनेक पावल्या. ह्या मोलादीक वावराखातीर ताका ऑस्टिन चेंबरलेना वांगडा १९२५ चो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. त्याच वर्सा अमेरिकेचो उपाध्यक्ष म्हणून तो वेंचून आयलो. पूण तातूंत ताका व्हडलोसो रस नाशिल्लो.

१९२९त ताची हर्बर्ट हूव्हरान परराश्ट्र वकील (राजदूत) म्हणून इंग्लंडांत नेमणूक केली. १९३२त रिकन्स्ट्रक्शन फायनान्स कॉर्पोरेशनाचो अध्यक्ष म्हणून ताची निवड जाली. उरिल्ल्या जिवितांत ताणें बॅंकिंग आनी हेर धंद्यांनी चड लक्ष घालें. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं - Notes as Vice President (१९३५), A Journal of Reparations (१९३९), Journal as Ambassador to Great Britain (१९३९).

– कों. वि. सं. मं.

## डॉमिनिकन प्रजासत्ताक :

(रिपब्लीक डॅमिनिकान) अॅटलांटिक आनी कॅरिबीयन हांचेमदल्या हिस्पॅनीओला जुंव्याचो उंदेतेकडचो ६७%

वांटो रेवडावपी प्रजासत्ताक. क्षेत्रफळ ४८,४४२ चौ. किमी. विस्तार १७°३६' उत्तर ते १९°५६' उत्तर आनी ६८°१९' अस्तंत ते ७२° अस्तंत. उदेंत-अस्तंत लांबाय सुमार ३८२ किमी. आनी दक्षिण-उत्तर रुंदाय सुमार २७० किमी. सांतो दोमिंगो ही देशाची राजधानी. ह्या देशाचे दक्षिणेक कॅरिबियन दर्या, उदेंतेक मोना पॅसेज आनी ताचे पलतडी प्वॅर्त रिको जुंवो, उत्तरेक ॲटलांटिक म्हासागर आनी अस्तंतेक हैती हें निग्रो राष्ट्र आसा.

**भूंयवर्णन :** – देशाच्या मदल्यान वायव्य-आग्नेय वचपी कॉर्डिलेरा हे पर्वतांवळीतले सॅंट्रल पीको द्वार्ते ही ३,१७५ मी. उंचायेची पर्वतातेंगशी हांगाची सगळ्यांत उंच तेंगशी. उत्तर दर्यादेगेर कॉर्डिलेरा सेप्टेंट्रिओनाल पर्वतावळ आसून तिची चुनखडीची खर देंवती आनी कॉर्डिलेरा सॅंट्रल पायन रूख आशिल्ल्या उत्तर देंवत्यांचो म्यानचो सीबाऊ हो देशाचो सगळ्यांत म्हत्वाचो सखल सुपीक वाठार आसा. ह्या वाठारांतल्यान याके देल नॉर्ते ही न्हंय वायव्येकसावन व्हांवत वचून मोंटे क्रीस्तीलागीं ॲटलांटीक म्हासागराक मेळटा. यूना ही न्हंय उदेंतेक सामाना उपसागराक मेळटा. ओसामा ही उदेंतेकडची न्हंय दक्षिणेकडेन सांतो दोमिंगो लागीं कॅरिबियन दर्याक मेळटा. ईशान्येकडच्या वाठारांत कॉर्डिलेरा ओन्येंताल ही उण्या उंचायेची पर्वतावळ आसा आनी हाचे आग्नेयेक सखल प्रदेश आसा. नैर्ऋत्य वाठारांत सीएरा दे नेबा आनी सीएरा दे बाओरूको ह्यो ल्हान दोंगरावळी आसून तांचेमदीं क्यूल दे साक हो चड सखल पडंग प्रदेश आसून तातूंत एन्रीकीयो हें ५२० चौ. किमी. विस्ताराचे दर्याथळाखाला ४५ मी. खोलायेचें खारें तळें आसा. ह्या प्रदेशाचे उदेंतेक सॅंट्रल कॉर्डिलेराचे दक्षिणेक सावन आयिल्ली याके दॅल सूर ही न्हंय आसून ती नेबा उपसागराक मेळटा.

**हवामान :** डॉमिनिकन प्रजासत्ताक सबंद उश्णकटिबंधांत आसलें तरी हांगाचें हवामान उंचाये प्रमाण बदलता. पर्वतांचो प्रदेश आनी वर्सूयभर व्हांवपी ईशान्य वेपारी वाऱ्याक लागून हांगाचें सरासरी तापमान २५° सॅ. आसता. पर्वताचेर उंचाये प्रमाण तापमान उणे जायत गेलें तरी तें ३° सॅ. खाला वचना. सरासरी पावस २५० सेंमी. आसून ईशान्य वाठारांत तो चड पडटा. ऑगस्ट ते ऑक्टोबरांत जावपी उश्णकटिबंधीय चक्रीवादळांचें संकट मात देशांत सदांच आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** चड ओलसाणीच्या वाठारांत पाचवीं रानां आनी दोंगराच्या देंवत्यांचेर पायन आनी मोहोगॉनी हांचीं रानां आसात. सखल मळांच्या प्रदेशांत सॅव्हाना प्रकाराचें तण आसा. रेंवट वाठारांत काटयांचीं झोपां, निवडुंग आनी हेर रेंवटी प्रदेशांत जावपी वनस्पत सांपडटा. दोंगरी वाठारांनी रानदुकर आनी जुटिया दिश्टी पडटात. मूळची रानटी मोनजात चड नासली तरी सुरवातेक स्पॅनीश लोकांनी हाडिल्लीं गोरवां आनी मेंढरां तणाच्या आनी रानांच्या प्रदेशांत सुटून वचून तीं आतां रानटी जाल्यांत. बदकां, पारवे, बकीं आनी हेर सवण्यांचे चोंबे दिश्टी पडटात. दर्यांत बांगडे, मुलेट, बोनिटो, स्नॅपर आनी हेर नुस्तें खूब प्रमाणांत सांपडटा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** ह्या प्रदेशांत पयलीं कॅरिब ह्या हेडपी आनी झूजपी आदीवासींचो राबितो आशिल्लो. हाचेवयल्यानूच ह्या प्रदेशाक कॅरिबियन हें नांव पडलें. ह्या जुंव्याक पयलीं कीसकेया हें नांव आशिल्लें. कीसकेया म्हळ्यार 'सगळे भूंयेची आवय'. कॅरिबा उपरांत आवाराक हे शांततायमोगी, मुर्तिची पुजा करपी आनी शेती करपी लोक हांगा आयले. मुखार १४९२त कोलंबस चुकून ह्या जुंव्याचेर पावलो आनी स्पेनाच्या नांवान तो आपल्या शेकातळा दवरून ताणें ह्या जुंव्याक हिस्पॅनीओला हें नांव दिलें. पूण हांगाच्या सांतो दोमिंगो ह्या शाराचो सोद कोलंबसाचो भाव बार्थोलोमिओ हाणें १४९४त लायलो. हें अमेरिकेंतलें सगळ्यांत लागींचें शार अशें मानतात. पूण १७९५त युरोपांतल्या फ्रॅंच-स्पॅनीश झुजाक लागून सांतो दोमिंगो कांय तेंप फ्रॅंचांच्या, जाल्यार १८०१ ते १८०४ मेरेन हैतीच्या आनी परत १८०५ ते १८०९ मेरेन फ्रॅंचांच्या शेकातळा आशिल्लो. १८०८त डॉमिनिकन लोकांनी जनजुआन सांचेझ रोमी रेझर हाच्या फुडारपणाखाला फ्रॅंच सैन्याआड झूज उबारून सांतो दोमिंगो शार आपल्या हातांत घेतलें. ह्या पालो हिंकादो झुजाउपरांत फ्रॅंचांचो हांगाचो शेक उणो जावपाक लागलो. अशे परिस्थितींत ग्रेट ब्रिटनाच्या आदारान ही वसणूक परत स्पेनाच्या शेकातळा आयली. १८२१त डॉमिनिकनाची स्वतंत्राय जाहीर केली. पूण १८२२त हैतीन डॉमिनिकनांचेर जैत मेळोवन १८४४ मेरेन तो आपल्या शेकातळा दवरलो. ह्या तेंपार हैतीच्या निग्रोंनी सांतो दोमिंगो 'आफ्रिकन' करपाचे खूब यत्न केले, पूण ते फळाक आयलेनात. १८४४ उपरांतचें स्वातंत्र्य ग्रेट ब्रिटन आनी फ्रांस हांच्या आदारान मेळ्ळें. ह्या काळांतलें इबाडिल्ले स्थितीचें फुडारपण सांताना आनी बाएस ह्या दोन मुखेल्यांनी चलयलें. पूण ह्या दोगांकूय देशाचे सुरक्षिततेची खात्री नाशिल्ल्यान १८६१त ताणीं परत स्पेनाचें आधिपत्य आपणायलें. पूण तें खूब तेंप तिगलें ना. हवान पाब्लो द्वार्ते हाणें १८६५त बंड केलें आनी देश परत स्वतंत्र जालो. १८७०त बाएस अधिकारार आसतना सांतो दोमिंगाचो अ. सं. सं. त आस्पाव करचो असो थाराव ताणें संसदेकडच्यान मान्य करून घेतलो. पूण ताका अ. सं. सं. न मान्यताय दिली ना. १८८२ ते १८९९ मेरेन अशा ह्या हुकूमशाहान उपाट खर्च केल्ल्यान देश रिणांत बुडलो. १९०५त रीण फारीक जावंचें आनी अर्थीक मळार उदरगत जावंची म्हणून अर्थीक वेवस्था अ. सं. सं. कडेन सोंपयली. पूण १९१६ ते १९२४ मेरेन अ. सं. सं. न देश आपल्या शेकातळा दवरलो. अर्थीक आनी राजकीय थिरायेक लागून ह्या काळांत रस्ते, शाळा, दवाखाने आनी हेर मळांचेर उदरगत जाली. १९२४त राजकीय गुलामी सोंपली. १९३०त जनरल राफाएल लेओनिथास त्रुहीयो मोलीना राश्ट्रपती जालो आनी १९६१त ताचो खून जाय मेरेन हांगा कितलेशेच राश्ट्रपती जावन गेले. पूण खरो हुकूमशहा तोच आशिल्लो. डिसेंबर १९६२त डॉमिनिकन प्रजासत्ताकांत वेंचणूक जावन हवान बॉस राश्ट्रपती म्हणून वेंचून आयलो. पूण ताचे आड १९६३त बंड जालें. १९६५त हांगा यादवी झूज चलतालें, शेवटाक अमेरिकन राश्ट्रसंघ आनी संयुक्त राश्ट्रांचे देखरेखी खाला १९६६त वेंचणूक जावन हवाकीन बालागेर राश्ट्रपती म्हणून वेंचून आयलो. १९७० आनी १९७४त तो परत वेंचून आयलो.

१९६६च्या संविधानावरवीं राश्ट्रपती हो राश्ट्रशासक आसून तो आपलें मंत्रिमंडळ थारायता. २७ वांगडयांचें राज्यमंडळ आनी ७४ वांगडयांचें प्रतिनिधीमंडळ अशी दोन सदनी संसद आसा आनी राश्ट्रपती वांगडाच हांचीय वेंचणूक सार्वत्रिक मतान चार वर्सांखातीर जाता.

**अर्थीक स्थिती –** त्रुहिओ अधिकारार येवंचे पयलीं देश रिणांत बुडिल्लो. पूण त्रुहिओ अधिकारार आयले उपरांत अर्थीक मळार ल्हव ल्हव उदरगत जावपाक लागली. शेतवड हो हांगाचो मुखेल वेवसाय. सुमार ९,६२०

चौ. किमी. जमीन लागवडी खाला आसा. तांदूळ, मको, कणगां, कसावा, घेवडो, भूंयमूग, टमाट हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं पिकां. तशींच साकर, काफी, तंबाकू, कोको हीं हांगाचीं मुखेल नगदी पिकां. केळीं, मोसंबी आनी हेर फळ फळावळ कांय प्रमाणांत जाता. आग्नेय आनी उदेंत वाठारांत उंसाचे व्हड मळे आसात. फकत ह्याच वाठारांनी आधुनिकीकरण आनी यंत्रांचो उपेग करतात. पशुपालन वेवसायाकूय हांगा म्हत्व आसा. गोरवां, मेंढरां, दुकरां, घोडे, कुकडांक लागून बरीच येणावळ मेळटा. रानांतलीय पिकावळ बरीच आसा. हांगाची सुमार १८.८% जमीन रानांतळा आसून मोहोगनी, पायन, लॉगवूड आनी हेर घट लाकडाचें उत्पन्न येता.

लोखण, जिप्सम, निकॅल, बॉक्सायट हीं म्हत्वाचीं खनिजां आसात. खनीज तेल, रुपें, भांगर, युरेनियम, कोबाल्ट, शिंशें हीं खनिजां उण्या प्रमाणांत मेळटात. निर्यातीचे नदरेन साकर कारखाने आनी बॉक्सायटाच्यो खाणी हे म्हत्वाचे उद्देग आसात. थळावे गरजे पुरते कपडे, कंवच्यांचें सामान, धातू सामान, चामड्याचो वस्तू, शाबू, मेणवाती, दोरयो, लाकडाच्यो वस्तू, रंग, सोरो, अन्नप्रक्रिया, शिमीट आनी हेर कारखाने आसात.

रेल्वे मार्गाची वाड चडशी जावंक ना. सगळ्या म्हत्वाच्या गांवांनी बसी आनी विमानांची येरादारी आसा. दोन चित्रवाणी आनी १२० आकाशवाणी केंद्रां आसात.

**लोक आनी समाजजीण** – सुरवातेक हांगा कॅरीब ह्या आदिवासी लोकांची वस्ती आशिल्ली. स्पॅनीश येवचे पयलीं देशांत आरावाक ह्या इंडियन जमातींचो राबितो आशिल्लो. पूण जुलूम आनी दुर्येसांक लागून ही जमात सोंपली. स्पॅनीश वसाहत ल्हान आशिल्ल्यान आनी हेर युरोपी लोकांक १८व्या शेंकड्या मेरेन हांगा येवपाची बंदी आशिल्ल्यान कामगार म्हणून निग्रो गुलामांक हाडपाक लागले. उपरांत स्पॅनीश आनी निग्रो हांच्यांत भरसण जावन एक नवोच समाज निर्माण जालो. हांगा स्पॅनीश, निग्रो, मिस्तीस आनी हेर युरोपीय लोक तशेंच साप उणे थळावे आरावाक इंडियन लोक अशे लोकसंखेचे विभाग पळोवंक मेळटात. कॅथलीक धर्म हो राजधर्म आशिल्लो. कॅथलीक धर्माचे सगळे सण आनी उत्सव हांगा दबाज्यान मनयतात. उदकांतले खेळ आनी कोबयांचें झूज ही तांची आवडीची करमणूक. सॉकर, व्हॉलिबॉल, बास्केटबॉल, बेसबॉल हे तांचे आवडीचे खेळ.

स्पॅनीश ही हांगाची अधिकृत भास. हे भाशेंतले कांय नांवाजिल्ले लेखक डॉमिनिकन आसात. राजकारणी हवान बॉस साहित्यीक आसून डेमिरोझी हो एक इतिहास तज्ञ. मान्बेल द जिझस काव्हान प्रसिध्द कादंबरीकार. निरक्षरतेचें प्रमाण उणे जायत आसा. सांता दोमिंगो, सँतीएगो, सॅन क्रिस्तोबल, ला व्हेगा, बारावोना, आस्वा, द्वार्ते, प्वेर्तो प्लाता, सांचेझ, एल् सेबो ही व्हड आनी प्रसिध्द शारां आसात.

– कों. वि. सं. मं.

## डॉयल, आर्थर कॉनन :

(जल्म : २२ मे १८५९, एडीबरो, स्कॉटलँड; मरण : ७ जुलय १९३०, क्रोबोरोग, ससॅक्स).

आध्यात्मवादाविशीं तळमळ आशिल्लो एक नामनेचो ब्रिटीश लेखक. स्टोन हर्स्ट ह्या लँकाशायरच्या आनी फेल्डकर्क ह्या ऑस्ट्रेलियांतल्या जेजुईत म्हाविद्यालयांतल्यान ताणें आपलें शिक्षण घेतलें. फुडें १८८५त ताणें एडींबरो विश्वविद्यालयांतल्यान एम.डी. ही पदवी घेतली. सुरवेक ताणें बोटीचो दोतोर म्हणून एक-दोन भोंवड्यो केल्यो. उपरांत साउथ सी, इंग्लंड हे सुवातेर आपलो वैजकी वेवसाय सुरू केलो.

१८८५त ताणें एक गुन्यांव अन्वेशक नवलकाणी 'अ स्टडी ईन स्कार्लेट' बरोवपाक सुरवात केली. ताच्या मुखेल पात्राचें नांव सुरवेक शॅरींगफोर्ड होम्स अशें आशिल्लें. पूण उपरांत डॉयलान ताका शेरलॉक होम्स हें नांव दिलें. ह्याच नांवान डॉयल फुडें साहित्यविश्वांतलो नामनेचो गुन्यांव अन्वेशक म्हणून अजरंवर जालो. होम्सावांगडा ताचो '२२१, बी बेकर स्ट्रीट, लंडन' हो नामोय नामनेक पावलो. होम्सावांगडाच ताचो साथीदार डॉ. वॉटसन ह्या पात्राचीय नामना आशिल्ली. फुडें वॉर्ड आनी लॉक हांचेवतीन 'बिटनस ॲन्युअल' ह्या वर्सुकी अंकांत १८८७ वर्सा 'अ स्टडी इन स्कार्लेट' उजवाडा आयली.

५६ लघुकथा आनी 'द सायन् ऑफ फोर' (१८९०), 'द हाउण्ड ऑफ द बास्करव्हिले' (१९०२) आनी 'द व्हॅली ऑफ फियर' (१९१५) ह्या ताच्या हेर तीन नवलकाणयांनी वाचप्यांमुखार येत रावलो. पूण फुडें फुडें डॉयलाक ताची तिडक येवंक लागली आनी म्हणून १८९३त ताणें होम्साक (कथेवरवीं) स्वीत्झलँडाक रॅचनबॅक धबधब्यांत बुडोवन मारलो. पूण होम्साच्या बरें मागप्यांमदीं हाका लागून बरीच निर्शेवणी आयली. देखून डॉयलाक 'द हाउण्ड ऑफ बास्करव्हिले' (१९०२) हे नवलकाणयेंत ताका परत जितो करचो पडलो. उपरांत ताणें आनीकय होम्सकथा बरयल्यो. ताची निमणी होम्सकथा म्हळ्यार 'द बेसबूक ऑफ शेरलॉक होम्स' ही १९२७ त उजवाडा आयली.

डॉयलान गुन्यांव अन्वेशक नवलकाणयांभायर हेर बरेंच बरप केलां. ताणें जायतीं नाटकां आनी प्रणयकथा बरयल्यात. १९०२ वर्सा ताका सर ही भोवमानाची उपाधी दिवन ब्रिटीश सरकारान ताका सरदारकी (नायट्हूड) फावो केली. ताणें बोअर झुजावेळार ब्रिटीश राजसत्तेचो वावर केल्लो. ह्या झुजावेळार तो नागरी वैज म्हणून भरती जाल्लो. तेभायर ब्रिटीश राजनितीची ताणें फाटराखणय केली.

१९१७ वर्सा ताका आध्यात्मिक प्रेरणा मेळ्ळी. हातूंतल्यानूच ताची आध्यात्मिक भोंवडी सुरू जाली आनी ताणें लॅक्चरां दिवपाचें काम सुरू केलें. तातूंतल्यान ताणें १९२६त 'स्पिरीच्युआलीस' ही साहित्यकृती उजवाडा हाडली.

– डॉ. किरण बुडकुले

## डॉल्फिन :

स्तनिवर्गाच्या सिटॅसिया गणांतल्या डेल्फिनिडी कुळांतलो एक प्राणी. हे प्राणी दर्यांत रावतात. पूण कांय गोड्या उदकांतय (तळीं, न्हंयो) रावपी आसात. डॉल्फिनाच्यो जायत्यो जाती आसात. तातूंत सामान्य डॉल्फिन ही एकच जात संवसारांतल्या सगळ्या दर्यांनी मेळटा.

**सामान्य डॉल्फिन** – ह्या प्राण्याचें शास्त्रीय नांव डेल्फिनस डेल्फिस. उश्ण आनी समशितोश्ण दर्यांत हाचें प्रमाण चड आसता. केन्ना केन्नाय उत्तरेकडल्या थंड दर्यांतय तो मेळटा. हाचें आंग सडपातळ आसून तकली धरून शरिराची लांबाय १.५ ते २.५ मी. आसता. चोंच १५ सेंमी. लांब आनी तोंकाची आसता. एका खोल खोबणीत ती कपलापसून स्पश्टपणान वेगळी जाल्ली दिसता. जबड्यांचेर भरपूर दांत आसतात. फ्लिपर म्हळ्यार पोटाकडले पाखे सुमार ०.३ मी. लांब आसतात आनी फाटीवयल्या पाख्याची उंचाय सुमार ०.६ मी. आसता आनी शेप्याची

रुंदाय सादारणपणान ०.५ मी. आसता. ताचें वजन ७५ किलां मेरेन आसता. ताच्या दोळ्यांभोंवतणीं काळीं वलयां आसतात. ह्या वलयांपसून एक काळो पट्टो मुस्कटामेरेन गेल्लो दिसता. ताका नाकाचो एकच बुराक आसता. फाटीचो रंग पुडी कोराचो वा काळो जाल्यार पोटाचो रंग धवो आसता. दोनूय वटेन करडे, हळदुवे वा धव्या रंगाचे पटे आसतात. हिंदी



म्हासागरांतल्या तशेंच मलेशियाच्या दर्यांतल्या सामान्य डॉल्फिनाची फाट काळपट करड्या रंगाची आसता आनी सकयल्ली पोटाकडली वट लेव करड्या रंगाची आसता.

शरिरांतले उश्णतेचेर ताबो दवरपाखातीर देवमाशाक कातीपोंदा जसो 'ब्लबर'चो दाट थर आसता तसो ह्याय प्राण्याक आसता (ब्लबर - चरबी आनी तेल). तांकां तीक्ष्ण कान आसतात. तोंडांतल्यान वेगवेगळे आवाज काडून हे प्राणी एकमेकांकडेन संपर्क दवरतात. तेचपरी ते शिळोणी घालूंक शकतात. हे प्राणी सादारणपणान वराक ४ ते ६ नॉट वेगान धांवतात. तशेंच, वराक ३० नॉट वेगान धावपाचें बळ तांच्यांत आसता. सामान्य डॉल्फिनाची वृत्ती बरीच खेळकर आसता. दर्यांत तारवां भोंवतणीं उडयो मारतना आनी खेळटना ते दिश्टी पडटात. नुस्तें तशेंच सेफॅलोपॉड प्राणी म्हळ्यार तांचें जेवण.

शिंया दिसांच्या मध्यारसावन ते उज्यादिसांमेरेन तांचो पिलां काडपाचो काळ. तांचो गाबणेचो तेंप सुमार णव म्हयन्यांचो आसता आनी मादी दर खेपे एकाच पिलाक जल्म दिता. वियेतकच उस्वास घेवपाखातीर मादी पिलाक उदकाचे वयर घेवन येता. उपरांत एका वराच्या अंतरान मादी उदकाभितरच पिलाच्या तोंडांत दूद सोडटा. ताका चोखून दूद पिवंक येता. सामान्य डॉल्फिन सुण्या परसय हुशार आसता आनी शिकयल्लो गजाली तो रोखडोच शिकता. हो प्राणी निरूपद्रवी आसून मनशाकडेन तो इश्टागतीन वागूंक शकता.

**गंगा डॉल्फिन** – गोड्या उदकांतले डॉल्फिन सद्या दक्षिण आशियांतल्या आनी दक्षिण अमेरिकेंतल्या न्हंयांनी मेळटात. भारतांत गंगा आनी ब्रह्मपुत्रा तशेंच तांच्या उपन्हंयांनी हे डॉल्फिन मेळटात. उत्तर भारतांतले लोक हाका सुसू म्हण्टात. कारण हो प्राणी तोंडांतल्यान एका प्रकारचो 'सुसू' असो आवाज काडीत आसता. ताचें शास्त्रीय नांव प्लॅटानिस्टा गँजेटिका अशें आसा. तकलेसकट हाची लांबाय २-३ मी. आसता. मादी नरापरस व्हड आसता. ताची चोंच चेपटी आनी १८ ते २१ सेंमी. लांब आसता. कपल चोंची फाटल्यान सरळ उबें आसता. दर जबड्यांत ५४-६४ दांत आसतात. पोटाकडले पाखे सादारणपणान त्रिकोणी आसतात. दोळ्यांचो आकार चण्यायेदो ल्हान आसून तातूंत भींग आसता. नाकाचो बुराक लांब आसता. शेप्याचीं पांखां आडवीं आसतात आनी तांची रुंदाय ४५ सेंमी. आसता. फाटीचो रंग काळोकिट्ट आसता जाल्यार पोट मातशें फिकें आसता. ताच्या शरिराचे वयलेवटेन सादारणपणान मदी मासाचो कोन आसता.

ह्या प्राण्याचे ल्हान ल्हान पंगड दिसतात. एका पंगडांत ३ ते १० प्राणी आसतात. दर दोन तीन मिनटांनी उस्वास घेवपाखातीर हे प्राणी उदका वयर येतात. न्हंयेच्या तळाक आशिल्ल्या चिखलांत आपली चोंच खुपसून तातूंत आशिल्ले प्राणी, क्रस्टेशियन आनी नुस्तें ते खातात. चिखलाच्या उदकांत राविल्ल्यान तांकां व्हडलेशें दिश्टीय पडना.

मादी ८-९ म्हयन्यांच्या गर्भविधी उपरांत एप्रिल ते जुलय ह्या म्हयन्यांत दर खेपे एकाच पिलाक जल्म दिता. हाचें मास खातात. ताच्या शरिरांत मेळपी तेल दिव्याखातीर वापरतात. ह्या तेलांत वखदी गूण आसात अशें मानतात. संधिवाताचेर ह्या तेलाचें मालीश करतात. तेचपरी शक्ती येवपाखातीर फाटीक आनी कमराक हें तेल चोळटात.

– कों. वि. सं. मं.

**डिकेन्स, चार्ल्स :** (जल्म : ७ फेब्रुवारी १८१२, लँडपोर्ट (पोर्टस्मथ); मरण : ९ जून १८७०, गॅडस हिल).

नामनेचो इंग्लीश कादंबरीकार. मुळांत नाजूक, प्रगल्भ आनी कल्पक आशिल्ल्या चार्ल्साचें भुरगेंपण चॅटहॅम नगरांत खुशालकायेंत गेलें. उपरांत ताचो घराबो लंडनाक गेलो. थंय ताका गरिबीक लागून खुबूच त्रास सोंसचे पडले. १९२४त जेन्ना ताच्या बापायक रीणकारी म्हणून बंदखणींत घालो तेन्ना ताका ल्हान पिरायेचेर कश्टांचीं कामां करून दीस काडचे पडले. तशेंच समाजीक अप्रतिश्ठा आनी निराशा सोंसची पडली. हाचो परिणाम ताच्या शिक्षणाचेरय जालो.



कांय प्रमाणांत शिक्षण घेतले उपरांत ताणें नोकरी धरली. फुडें ताणें चिकाटेन टंकलेखन शिकून 'द सन' आनी 'मिरर ऑफ पार्लमेंट' ह्या नेमाळ्यांनी वार्ताहर म्हणून काम केलें. ह्याच तेंपार ताणें लंडनांत पळेल्ल्या जिविताचेर आदारित ल्हान ल्हान शब्दचित्रां बरोवंक सुरवात केली. चिमटावपी विनोदी भास आनी बारीकसाणीन तेळपी नदर हांकां लागून ताच्या ह्या चित्रणांक रोखडीच नामना मेळ्ळी. १९३६त 'स्केचीस ऑफ बॉझ' हें ताचें पयलें पुस्तक उजवाडा आयलें. त्याच काळांत विनोदी बरपाची माळ सुरू जाली. डिकन्साची नवलिका 'पिकविक पेपर्स' उजवाडा आयली आनी ताका सुमाराभायर नामना मेळ्ळी. ह्याच काळांत ताचें कॅथरीन हॉगार्थ हे चलयेकडेन लग्न जालें. पूण ताणें तिचेवांगडा १५ वर्सांच संवसार केलो.

पिकविक पेपर्सा उपरांत ताचे साहित्यनिर्मणेक नवो चंवर आयलो. एका फाटोफाट एक अशो पांच नवलिका तशेंच विगड विंगड कथा, निबंद, रंगमाचयेखातीर साहित्य आनी साबार नाताल पुस्तकां ताणें बरयलीं. तातूंतलें 'अ क्रिसमस कॅरल' ही संवसारीक पावंड्याक पावयली साहित्यकृती. ताच्यो हेर उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो अशो - ऑलिव्हर ट्विस्ट (१८३७-३९), निकोलस निकलबी (१८३८-३९), द ओल्ड क्युरिऑसिटी शॉप (१८४०-४१), बार्नबी रज् (१८४०-४१), डॉबी ॲण्ड सन (१८४६-४८), डेवीड कॉपरफिल्ड (१८५० - आत्मकथात्मक नवलिका), ब्लीक हाऊस (१८५२-५३), हार्ड टायम (१८५४), लिटल डॉरीट (१८५५-५७), अ टेल ऑफ टू सिटीस (१८५९), ग्रेट एक्स्पॅक्टेशन (१८६०-६१), अवर म्युच्युअल फ्रॅंड (१८६४-६५). तेभायर ताची द मिस्टरी ऑफ ॲडविन ड्रूड ही नवलिका अर्दकुटी उरली.

ताच्या लिखाणांतल्यान तत्कालीन समाजीक परिस्थिती, नितीमुल्यां तशेंच व्यक्ती आनी समाज हांचे मदली तफावत नदरेंत भरता. वाचप्याच्या भावविश्वाचेर पकड दवरप हें डिकन्साच्या येसाचें मूळ. ताचें साहित्यीक विश्व आनी नीज जीण हांचेमदीं लागशिल्लें नातें आसा. ओडलायणी शैली, पिकाळ प्रतिकात्मक भास आनी संवसाराचें बारिक निरिक्षण हातूंतल्यान जें रसरशीत व्हांवतें अणभव विश्व तो उबें करता, ताका तुळा ना. निखटे कथावस्तुचे घटसाणीचेर आदन दवरी नासतना पुराय साहित्यकृतींतल्यान एक जिनसी आशय घनता पातळावपांत डिकन्साचो हात धरपी थोडेच लेखक आसताले.

ताचीं नितिमुल्यां खुबशीं किरिस्तांव धर्माच्या पारंपारीक मुल्यांकडेन नातें जोडपी आशिल्लीं. सकयल्या थरांतल्या मनशांचें प्रतिनिधीत्व करचे परस तो व्हिटोरियन मध्यमवर्गीयांचो प्रतिनिधी आशिल्लो. आपले नाट्यमय भाशेन आनी नदरेंत भरसारकें प्रतीक दरेका बरपांत केळोवन ताणें आपले साहित्य कृतीक खाशेली तांक आनी संरचनात्मक एकवट मेळोवन दिला.

- डॉ. किरण बुडकुले

**डिझरेली, बेंजामिन :** (जल्म : २१ डिसेंबर १८०४, लंडन; मरण : १९ एप्रिल १८८१, ह्युअंडन).



इंग्लंडाचो एक नामनेचो पंतप्रधान आनी मुत्सद्दी. इंग्लीश साहित्यांत कादंबरीकार म्हणूनूय ताची नामना आसा. ताचो बापूय आयझाक डिझरेली हो नामनेचो समीक्षक आनी इतिहासकार आशिल्लो. ताचो ग्रंथसंग्रह खूब व्हड आशिल्लो. ज्यू म्हणून आपल्या भुरग्यांक त्रास जावंचो न्हंय देखून ताणें पुराय घराण्यासयत किरिस्तांव धर्म आपणायलो. बेंजामिनान घरचे घराच ग्रंथ संग्रहाचो फायदो घेवन आपलें गिन्यान वाडयलें. फुडें ताणें कायद्याचो अभ्यास करून कांय दीस वकिलीय चलयली. कांय काळ ताणें 'मरे' हे नामनेचे प्रकाशन कंपनीवतीन एक वर्तमानपत्र चलयलें. उपरांत ताणें 'व्हिव्हियन ग्रे' (१८२६) नांवाची कादंबरी बरयली. तिचेर खूब टिका जाली. तिका कंटाळून तो १८२८-३१ ह्या काळांत भोवंडेक गेलो. ह्याच सुमाराक ताणें 'द यंग ड्यूक' (१८३१), 'द प्रेझ्झँट क्रायसिक एक्झामिण्ड' (१८३१), 'व्हॉट ईझ ही?' (१८३३), 'व्हिंडिकेशन ऑफ द ब्रिटीश कॉन्स्टिट्युशन' (१८३५), 'काँटारीनी फ्लॅमिंग' (१८३२) आदी पुस्तकां बरयलीं. ताचीं कांय उल्लेख करपासारकीं पुस्तकां अशीं - व्हिव्हियन ग्रे (१८२६), व्हेनिशिया (१८३७), हेन्रिटा टँपल (१८३७), कॉनिंग्जबी (१८४४), सिबिल (१८४५). उपरांत तो राजकारणांत पडलो. पयल्यो कांय वेंचणुको हारून १८३७त तो टोरी पक्षावतीन पार्लमेंटांत वेंचून आयलो. ह्याच वर्सा तो आपले परस १२ वर्सांनी व्हड आशिल्ल्या विनडम ल्युईस हे बायलेकडेन लग्न जालो.

राजसत्ता घट आसची आनी धर्मीक राजकारणांत मानाची सुवात मेळची अशें ताचें मत आशिल्लें. १८५२त तो टोरी पक्षाचो मुखेली म्हणून कॉमन्सांत वेंचून आयलो. त्याच वर्सा ताका लॉर्ड डर्वी हाच्या मंत्रीमंडळांत अर्थ मंत्र्याची सुवात मेळ्ळी. १८६०त तो प्रधानमंत्री जालो. पूण कांय तेंपाभितर ताचो पक्ष वेंचणुकेंत हारलो. काळांतरान टोरी पक्षाचें मताधिक्य आशिल्ले संसदेंत तो प्रधानमंत्री जालो. १८७६ वर्सा राणयेन ताका १८७६ अर्ल ऑफ बिकन्सफिल्ड ह्या नांवाचें उमरावपद दिलें. आपले १८७४ - ८० हे कारकिर्दीत ताणें जायतीं म्हत्वाचीं विधेयकां मान्य करून घेतलीं. तातूंतलें १८७४ फॅक्टरी अधिनियम आनी १८७८ची गरिबाखातीर केल्ल्या कायद्यांतली दुरुस्ती हें म्हत्वाचे विधेयक आशिल्लें. तेभायर ताणें सुएझ कानालाचेर ब्रिटनाचो अधिकार उरचो देखून इजिप्ताच्या खेदिवा कडल्यान भरपूर शॅर्स विकते घेतले; व्हिक्टोरिया राणयेक भारताची सम्राज्ञी हो किताब दिलो. रशियेन भारताचे वायव्येकडेन बळिश्ट जावंचें न्हय देखून फावो ते उपाय घेतले आनी प्रिन्स बिस्मार्कच्या आदारान बर्लिन परिशदेंत वांटो घेवन भोवमानान तह घडोवन हाडलो.

राजकारणांत ताणें जायत्यो सुदारणा केल्यो.आविल्ल्या कन्झर्वेटीव पक्षाची निर्मिती ताणेंच केल्ली.

फुडें १८८०चे सार्वत्रिक वेंचणुकेंत ताचो पक्ष हारलो. ग्लॅडस्टनच्या हातांत सुत्रां दिवन तो १८८०त ह्युअंडनाक रावपाक गेलो आनी थंयच स्वासनलिकेच्या दाहान ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**डिझ्नी लँड :** अमेरिकेंतल्या कॅलिफोर्निया राज्यांतल्या ॲनाहीम नगरांत आशिल्लें एक अदभुत नगर. लॉस अँजेलीसाचे आग्नेयेक सुमार ३५ किमी. अंतराचेर हें नगर आसा. १९५५त नामनेचो व्यंगचित्रपट निर्मातो वॉल्ट डिझ्नी हाणें हें नगर उबारिलें. ह्या नगराचें क्षेत्रफळ ६४.७५ हॅक्टर आसा. हांगा अप्रूप आनी धाडसी कथांतल्यान वर्णन केल्लीं काल्पनीक थळां आनी मनीस साकार केल्यात. ह्या नगराचे मुखेल विभाग अशे आसात - 'फाल्यांची नगरी' हातूंत भविश्यांतल्या जगाची

झलक दाखयल्ली आसा. तेभायर एका रुळार चलपी उज्यागाडी, अंतराळवीर, उज्याबाण, संवसारांतले सगळे वेळ एकदम दाखोवपी घड्याळ, आर्विल्ल्या इमारतींच्यो प्रतीकृती हांगा आसात. दुसऱ्या अप्रूप नगरांत परीकथा आनी जादूकथा हांचेर आदारिल्लीं चित्रां आसात. न्हिदिल्ले राजकन्येच्या राजवाड्याची व्हड प्रतिकृती, युरोपांतल्या आल्प्स दोंगराचे मॅटरहॉर्न तेंगशेचो सुमार ४५ मी. उंचायेचो नमुनो आनी ते तेंगशेर वचपी भुरग्यांची उज्यागाडी आदी मुखेल आकर्शणां ह्या विभागांत आसात. 'धाडशी नगर' हें हातूंतली रानटी मोनजातीची वस्ती आशिल्लें दाट रान. ह्या रानांतल्यान न्हंयेची भोंवडी, दर्यांतले पाणबुडयेची भोंवडी आनी युरोपी भुरग्यांक आवडपी पौर्वात्य जगांतल्यो प्रतिकृती डिझ्नी लँडांत आसात. 'सीमाप्रांतनगरी' हातूंत अस्तंत अमेरिकेंतल्या धाडशी घोडेस्वारांचीं आनी भारतीय विरांच्या झुजाचीं चित्रां उबीं केल्यांत. रेंवटांतल्यान आनी रंगीत उजवाडाच्या व्होवरींतल्यान भोंवपाची तजवीजय हांगा आसा. मार्क ट्वेन हे पोरणे तरेचे बोटींतल्यान आनी फकत तराफ्यावयल्यानय हांगा उदकाभोंवडी करपाक मेळटा.

ह्या नगरांत विश्रामघरां आनी खाणावळी आसात. हांगा येवंक लॉस अँजलीस साकून आनी दक्षिण कॅलिफोर्नियांतल्या हेर शारांतल्यान बस, उज्यागाडी, विमानां हांची तजवीज केल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**डिनीस, जुलियो :** (जल्म : १८३८; मरण : १८७१).

हो नामनेचो पुर्तुगेज नवलिकाकार. जोकीं गिल्येर्म गोमीश ताचें टोपणनांव. तो ऑपरटो ह्या ब्रिटिशांची वसणूक आशिल्ल्या वाठारांत रावतालो. हाका लागून ताचेर रिचर्डसन, गोल्डस्मीथ, जेन ऑस्टीन ह्या ब्रिटीश तशेंच फ्रेंच बालझाक (Balzac) ह्या लेखकांचो प्रभाव पडलो.

जुलियो डिनीसान 'उमा फामिलीय इंग्लेझ' (Uma Familia Inglesa), अ मोरगदिन्हा दुश कानवियासीस (A Morgadinha dos canviasis), अश पुपिलश दु सिन्होर रैतोर (As Pupilas da Senhor Reitor) आनी फिदालगुश द् काझ मावरिस्का ह्यो नवलिका बरयल्यात. सेरोंयश दा प्रोविन्सीय (Seroes da Provincia) नांवांच्यो धाकटचो काणयो तशेंच कांय कविताय ताणें बरयल्यात.

जाणकारांनी ताचे नवलिकेविशीं बरयतना म्हळां 'कुटूंब वेवस्थे संबंदान भाश्य करपी, वा समाजीक विशयाचें प्रतिनिधित्व करपी, अशो ताच्यो नवलिका आसतात'.

– कार्मु आझावेदु

**डिप्रेस्ड क्लासीस मिशन :** ऑक्टोबर १९०६त, विठ्ठल रामजी शिंदे हाणें अस्पृश्यांच्या उद्धाराचें कार्य व्हडा प्रमाणांत कायम स्वरुपांत आनी संस्थात्मक पद्दतीन जावंचें, हे खातीर पयलो व्हड वावर केलो. तातूंतल्यानूच 'डिप्रेस्ड क्लासीस मिशन' (भारतीय निराश्रित सहाय्यकारी मंडळी) ही संस्था स्थापन जाली. अस्पृश्यांचो उद्धार हें स्पृश्य समाजाचें एक नैतिक कर्तव्य अशी हे संस्थेची मूळ भावना आसली.

हिंदू समाजांतली अस्पृश्यतायेची प्रथा ही एक अमानुश आनी अन्यायी प्रकार आसा. अस्पृश्य म्हणून थारायल्ल्यो जमाती खूब हीन आनी दीन अवस्थेंत शेंकड्यांनी वर्सां जियेताल्यो, हो इतिहास वादातीत आसा. हातूंत किदें तरी चूक आसा हाची जाणविकाय स्पृश्य आनी अस्पृश्य ह्या लोकांकूय, हांगा ब्रिटिशांची सत्ता थिरावतकच खऱ्या अर्थान जाली. सुरवातीच्या काळांत वेगवेगळ्या प्रांतांतल्या कितल्याशाच विचारवंतांनी हे विशीं सहानुभुती परगटायिल्ली दिसता. पूण अस्पृश्यांची स्थिती सुदारपाचे नदरेन प्रत्यक्ष कृती महाराष्ट्रांत ज्योतीराव फुले हाणीं १८५०च्या सुमाराक केली. अस्पृश्यांच्या भुरग्यांखातीर न्हय तर चलयांखातीरूय ताणें शाळा सुरू केल्यो आनी आपल्या घराकडलो हौद अस्पृश्यांखातीर उक्तो केलो. पूण हे यत्न वैयक्तीक स्वरुपाचे आनी देखुनूच अपुरे आशिल्ले. चड संघटीत आनी संस्थात्मक स्वरुपाच्या तजविजांची गरज आशिल्ली. हे गरजेंतल्यान हे संस्थेची निर्मिती जाली.

हे संस्थेचे हेत स्पश्ट करतना अस्पृश्यांक बरी वागणूक दिवंची, तांकां शिक्षण मेळचें, तांकां शिक्षण-कामधंदे दिवन तांची अर्थीक परिस्थिती सुदारची आनी तांचे संस्कृतीक उन्नतीखातीर गरजेचे ते सगळे उपक्रम हातांत घेवंचे अशें सांगलें. वर्स - दोन वर्सांतूच संस्थेच्या कामाचो व्याप खूब वाडून मुंबयसावन दक्षिणेंत चेन्नईमेरेन तर उत्तरेंत इंदूरामेरेन एकूण चवदा फाट्यांच्यो चोवीस शाळा आनी पांच वसतीघरां स्थापन जालीं. तातूंत इकराशें विद्यार्थी शिकताले आनी ५५ शिक्षक आशिल्ले. प्रार्थना समाजान हे संस्थेक खूब सक्रीय पालव दिलो.

१९१२त पुण्याक डॉ. भांडारकर हाचे अध्यक्षतायेखाला हे संस्थेवरवीं पयली व्हड अस्पृश्यताय निवारण परिशद भरिल्ली. डॉ. कुर्लकोटी आनी इचलकरंजीचे संस्थानीक अशा उच्चवर्णीय समजांतल्या मुखेल व्यक्तींनी हे परिशदेंत वांटो घेतिल्लो. म्हार, मांग, चामार, भंगी हांचेप्रमाणूच हिंदूंतले ब्राह्मण, मराठा आदी जातींचे लोक आनी तेचप्रमाण किरिस्तांव आनी मुसलमानूय ह्या अधिवेशनांत सामील जाल्ल्यान ताका एक वेगळें म्हत्व प्राप्त जालें. तेउपरांत १९१८त मुंबय बडोद्याचो नरेश सयाजीराव गायकवाड हाचे अध्यक्षतायेखाला डिप्रेस्ड क्लासीस मिशनाचे वतीन अखील भारतीय अस्पृश्यताय निवारण परिशद भरिल्ली. त्या वेळार लोकमान्य टिळक, ॲनी बेझंट, महात्मा गांधी आदी कितलेशेच मानादीक फुडारी हजर आशिल्ले. अस्पृश्यताय मोडून काडपाच्या प्रतिज्ञापत्रकाचेर ह्या वेळार भोवतेक सगळ्या नामनेच्या लोकांच्यो निशाण्यो घेतल्यो. लोकमान्य टिळक मात ह्या वेळार फाटीं सरलो. ताणें पत्रकाचेर निशाणी करिनासतना हो प्रस्न राश्ट्रीय कॉंग्रेसीन हातांत घेवंचो, असो थाराव हे परिशदेंत स्वताच मांडलो. १९२०च्या कॉंग्रेसच्या अधिवेशनांत महात्मा गांधीच्या फुडाकारान अस्पृश्यताय निवारणाच्या वावराक कॉंग्रेसीचो तेंको मेळ्ळो.

डिप्रेस्ड क्लासीस मिशनांत अस्पृश्यांखातीर वावर करपी पदाधिकारी चडशे सगळे स्पृश्य समाजांतलेच आशिल्ले.

कितल्याशाच थळाव्या समित्यांचेर अस्पृश्य वांगडी मुद्दम घेतले आनी हे फुडें अस्पृश्यांच्या उद्धाराचें काम अस्पृश्यांनी स्वताच फुडाकार घेवन करचें असो मिशनाचो प्रवर्तक कर्मवीर विठ्ठल रामजी शिंदे हाणें जाहीर उलो मारलो. ब्रिटीश शासनाची सहानुभुतीशून्यता, राश्ट्रीय कॉंग्रेसींतले मतभेद तांतूतल्यान त्या कार्याच्या संदर्भांत दिसपी निश्क्रियता आनी खुद्द अस्पृश्य समाजांतले गैरसमज हाका लागून कर्मवीराची खुबदां निर्शेवणी जाली. १९२३त ताणें मिशनाच्या कामाचे सक्रिय जापसालदारकेंतल्यान स्वताक मुक्त करून घेतिल्लें दिसलें. पूण ताची कार्याविशींची तळमळ उणी जाली, असो मात हाचो अर्थ न्हय.

१९३०त डॉ. बाबासाहेब आंबेडकराच्या फुडारपणाखाला ह्या

मिशनाकडेन संबंद नाशिल्लो डिप्रेस्ड क्लासीस काँग्रेस भरली. अस्पृश्यांक डॉ. आंबेडकराच्या रुपान नवें फुडारपण मेळिल्लें. समाजीक आनी राजकीय पांवड्यार तो चड खर कार्यक्रम घेवन काम करूंक लागिल्ल्यान अस्पृश्य समाज ताचेकडेन ओडपाक लागलो. ते उपरांत डिप्रेस्ड क्लासीस मिशन ही अस्पृश्यांच्या उद्धाराच्या कार्यक्षेत्रांतली बुन्यादी अशी संस्था ल्हव ल्हव फकत नांवापुरती उरली. १९३३त मिशनाचो पुणे फांटो दलीत फुडाऱ्यांच्या ताब्यांत दिवन कर्मवीर शिंदे फकत विश्वस्त म्हणून उरलो. मुंबय आनी पुण्या भायर, मिशनाचे फांटे आनी शाळा सातारा, महाबळेश्वर, दापोली, मंगळूर, चेन्नई, हुबळी, अकोला, अमरावती, भावनगर आनी इंदूर शारांनी जाल्यो.

– कों. वि. सं. मं.

**डिमॉस्थिनीझ :** (३८४ - ३२२ इ. स. पयली). संवसारीक नामनेचो वक्तो आनी मुत्सद्दी. अँथेन्सांतल्या एका गिरेस्त घराब्यांत ताचो जल्म जालो. ताच्या भुरगेपणांतूच ताचो बापूय भायर पडलो. बापायची आस्पत हेरांनी लुबाडली म्हणून तांचेआड फियार्द करपाच्या निमतान ताणें कायद्याचो खोलायेन अभ्यास केलो. ताणें वक्तृत्व कलाय आत्मसात केल्ली. न्यायालयांत तो जिखलो खरो, पूण संपत्तीचो सामको थोडो वांटो ताका परत मेळ्ळो. न्यायालयीन उलोवपांखातीर ताची सगळ्याक नामना जाली. खटल्यांखातीर उलोवपां बरोवन दिवपाचीं कामां ताका मेळपाक लागलीं. त्या काळांत न्यायालयांत दर एकल्याक आपली बाजू स्वताच मांडची पडटाली. आपलीं उलोवपां दुसऱ्या कोणाकडल्यानूय बरोवन घेवपाक मेकळीक आसली. पिरायेच्या तिसाव्या वर्सामेरेन डिमॉस्थिनीझान होच वेवसाय करतकच तो राजकारणांत पडलो.

अँथेन्सांतली लोकशाय आनी अँथेन्साचें स्वातंत्र्य हांचेखातीर तो सदांच वावुरलो. डिमॉस्थिनीझाचें राजकीय जिवीत सुरू जालें, तेन्ना मॉसिडोनियाचो राजा दुसरो फिलीप हाणें ग्रीसांतलीं शारां ल्हव ल्हव मॉसिडोनियन सत्तेखाला हाडपाक सुरवात केल्ली. फुडें अँथेन्साचें स्वातंत्र्य ताणें हातासलें. तेन्ना मॅसिडोनियन सत्तेआड अँथेनियनांमदीं जागृताय घडोवन हाडपाचें आनी तांचेमदीं स्वातंत्र्याची इत्सा चेतोवपाचें म्हत्वाचें काम डिमॉस्थिनीझान केलें. दुसऱ्या फिलिपा आड ताणें दिल्ल्या उलोवपांक 'फिलिपिक्स' ह्या नांवान वळखतात. दुसऱ्या फिलिपाच्या मरणाउपरांत सत्तेर आयिल्ल्या अलेक्झांडरान डिमॉस्थिनीझाक आपले सुवादीन करचो, अशी मागणी केल्ली. पूण अँथेनियनांचे खासा विनंतीक लागून ती फाटीं घेतली.

टेसिफॉन नांवाच्या एका अँथेनियन नागरिकान डिमॉस्थिनीझाक भांगरा पदक दिवन ताचो भोवमान करचो, अशी सुचोवणी केल्ली. डिमॉस्थिनीझाचो प्रतिस्पर्धी वक्तो एस्किनीझ हाणें तिचेआड पवित्रो घेवन ते प्रकरण न्यायालयांत व्हेलें. ह्या संदर्भांत आपली बाजू मांडपाखातीर डिमॉस्थिनीझान केलें 'On the crown' (इ. स. प. ३३०) हें उलोवप श्रेश्ठ अशें मानतात. तेउपरांत कांय वर्सांनी ताचेर पयशांचे अफरातफरीचो आरोप जालो. दंडाची आनी बंदखणीची ख्यास्त जाली. बंदखणींतल्यान पळून वचून ताणें अज्ञातवास घेतलो. इ. स. प. ३२३त अलेक्झांडराक मरण येतकच ताका अँथेन्सांत हाडलो. ताच्या दंडाची रक्कम भरपाखातीर निधी उबारलो. पूण अँलेक्झांडराचो सेनापती अँटिपाटर हाणें डिमॉस्थिनीझ आनी हेर व्यक्तींची मागणी केल्ल्यान तो अँथेन्सांतल्यान पळ्ळो आनी वीख घेवन ताणें आत्महत्या केली. ताच्या उलोवपांचीं संपादीत हातबरपां अँलेक्झांड्रियाच्या नामनेच्या ग्रंथालयांत दवरल्यांत. डिमॉस्थिनीझाच्या उलोवपांतल्यान ताची देशभक्ती आनी तळमळ दिसता.

– कों. वि. सं. मं.

**डिरॅक, पॉल एड्रिअन मॉरिस :** (जल्म : ८ ऑगस्ट १९०२, ब्रिस्टॉल, इंग्लंड; मरण : २१ ऑक्टोबर १९६४, तल्लहसी - अमेरिका). नामनेचो ब्रिटीश गणितीय भौतिकशास्त्रज्ञ. ब्रिस्टल विद्यापिठाची बी. एस्सी. (१९२१) आनी केंब्रिज विद्यापिठाची पीएच्. डी. (१९२६) ह्यो पदव्यो मेळयतकच ताणें अमेरिकेंतल्या व्हिस्कॉन्सिन आनी मिशिगन (१९२९) आनी प्रिन्स्टन (१९३१) ह्या विद्यापिठांनी अभ्यागत व्याख्यातो म्हणून काम केलें. परत येतकच ताची केंब्रिज विद्यापिठांत गणिताचो प्राध्यापक म्हणून १९३२त नेमणूक जाली. १९४७-४८त आनी परत १९५८-५९त ताणें प्रिन्स्टन इन्स्टिट्यूट ऑफ ॲडवान्स्ड स्टडिस हे संस्थेंत काम केलें.

विद्यार्थी दशेंत आसतना ताणें १९२६त तरंगयामिकीचो एक वेगळो प्रकार सोदून काडून सैद्धांतिक भौतिकींत मोलादीक भर घाली, पूण ताचे आदीं सुमार तीन म्हयने होच सोद जर्मनींत मास्क वोर्न आनी पी. योर्डान हाणें लायिल्लो. पूण तांचेपरस डिरॅक हाची पद्‌दत चड व्यापक आनी तर्कशुद्ध आशिल्ली. पुंजयामिकीक सापेक्षताय सिद्धांताची जोड दिवन ताणें इलेक्ट्रॉनाचें पुराय विवरण चार तरंग समीकरणांनी करूं येता, ही अभिनव क्रांतिकारक कल्पना मांडली. ह्या समीकरणांवयल्यान इलेक्ट्रॉनांची परिवलन गती काडूं येता हे परिवलन गतीचो सोद पयलींच लागिल्लो. ह्या समीकरणांचें आनीक एक खाशेलपण म्हळ्यार तांचेवयल्यान इलेक्ट्रॉनांक ऋण ऊर्जा स्थिती आसतात, असो क्रांतीकारक निश्कर्श येता. हे ऋण ऊर्जा स्थितीचो पयली कांयच बोध जायना. फुडें एका निबंदांत डिरॅक हाणें अशी कल्पना मांडली की हे ऋण ऊर्जा स्थितींत एकाद्री पोकळी तयार जाल्यार ती घन भारयुक्त इलेक्ट्रॉनाचे म्हळ्यार पॉझिट्रॉनाचे गुणधर्म दाखयतली. फुडें १९३२त सी. डी. ॲंडरसन हाणें ह्या पॉझिट्रॉनाचो सोदूय लायलो.

ते उपरांत डिरॅक हाणें इलेक्ट्रॉन आनी ताच्या वर्गांतल्या कणांक लागू पडपी सांख्यिकी सोदून काडली. तेचप्रमाण प्रारणाचो पूंज सिद्धांत ताणें मांडलो. ताच्या मताप्रमाण सैमाचे नेम आमकां द्रव्याच्या गुणधर्मांमदल्या कांय विभागांचीच म्हायती दितात, पूण ताचेवयल्यान आमकां खाशेल्या आविश्काराचें पुराय चित्र मनाफुडें हाडूंक जायना.

पुंजयामिकींतल्या वावराखातीर आनी खास करून ताच्या इलेक्ट्रॉन सिद्धांताखातीर डिरॅक हाका १९३३ वर्साचो भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार एर्वीन श्रोडिंजर हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो. सिद्धांतिक भौतिकींतली ताची सुवात खूब उंचेली आसा. Principles of Quantum Mechanic's (१९३०) हो ताचो ग्रंथ बरोच लोकप्रिय जालो.

– कों. वि. सं. मं.

**डिसेंबर :** ग्रेगरियन पंचागांतलो बारावो (निमाणो) म्हयनो. पोरण्या रोमी पंचागांत हो धावो म्हयनो आशिल्लो. धा (देसेम) ह्या अर्थाच्या लॅटीन

शब्दावयल्यान डिसेंबर हें नांव पडलें. अँग्लोसॅक्सन लोक ह्या म्हयन्याक मिडविंटर वा यूल हे परबेच्या नांवावयल्यान 'यूल मन्थ' म्हण्टाले.

ह्या म्हयन्याचे पंचवीस तारखेक किरिस्तांवांची 'ख्रिसमस' वा 'नाताल' ही परब मनयतात. २२ डिसेंबर ह्या दिसा दक्षिणायन सोंपता आनी सूर्य संस्तभी आसता. सुरवातेक ह्या म्हयन्याचे एकुणतीस दीस आशिल्ले, उपरांत तीस दीस जाले. फुडें ऑगस्ट म्हयन्याचे जशे तीस दिसांचे एकतीस दीस जाले, तशेंच डिसेंबर म्हयन्याचेय एकतीस दीस थरयले. ह्या म्हयन्यांत १५ तारखेक सूर्य धनू राशींत प्रवेश करता.

- कों. वि. सं. मं.

**डिस्ट्रिब्युशन ऑफ वॅल्थ :** एक अर्थशास्त्रावयलो ग्रंथ. जॉन बेट्स् क्लार्क (१८४७-१९३८) ह्या बुदवंत अमेरिकन अर्थशास्त्रज्ञान १८९९त हो ग्रंथ बरयलो. ताणें अर्थशास्त्रीय सिद्धांतांविशीं कितलींशींच पुस्तकां बरयलीं. तातूंत ताचो हो ग्रंथ विशेश गाजलो.

जॉन बेट्स् क्लार्क हाणें शिक्षण घेतकच कार्लटन स्मिथ आनी ॲमहर्स्ट ह्या अमेरिकेंतल्या नामनेच्या कॉलेजांत प्राध्यपकाचें काम केलें. निमाणचीं काय वर्सां तो कोलंबिया विद्यापिठांत अध्यापनाचें काम करतालो. १९२३त, तो अध्यापन क्षेत्रांतल्यान निवृत्त जालो. फुडलें सगळें जिवीत ताणें ग्रंथ बरोवपांत घालयलें.

'डिस्ट्रीब्युशन ऑफ वॅल्थ' ह्या ग्रंथांत क्लार्कान सनातनवाद्यांचे नदरेचेर टिका केल्या. ताच्या मतान अर्थीक वेव्हारांत आर्थिकेतर नदर म्हत्वाची आसता. सनातनवाद्यांनी ताचेकडेन आडनदर केली. समाज ही एक सजीव कोटी आसा आनी ते नदरेन समाजाच्या अर्थीक वेव्हारांकडेन पळोवंक जाय. 'अर्थीक मानव', 'सर्ती' हांचेविशींचे विस्कटावणेंत सनातन वाद्यांनी समाजाविशींचे नैतीक नदरेचो विचार केलो ना, अशें सांगून क्लार्कान ह्या ग्रंथांत सनातनवाद्यांच्या अर्थशास्त्रीय संकल्पनांचेर खर टिका केल्या. मजुरी आनी व्याज हीं दोनूय उत्पादन तांकीक लागून निर्माण जातात, हो ताचो विचार त्या काळांत तरी प्रस्थापीत विचारांआड बंडखोरी करपी थारलो. तशेंच, सीमान्त उत्पादन तांकीची कल्पना आनी सीमान्त वापर सिद्धान्ताचो उल्लेख ह्या विचारांक लागून प्रस्तुत पुस्तकाक खाशेलें म्हत्त्व आयलें.

स्थायी (Static) अर्थीक परिस्थितींत उत्पादक घटकांक मेळपी तांचो वांटो तांचे सीमान्त उत्पादन तांकीच्या आटापाइतलो आसता आनी ही प्रकिया सैमीक नेमान नियंत्रीत केल्ली आसता, अशें एका वाक्यांत ह्या ग्रंथाचें सार नामनेचो अर्थशास्त्रज्ञ हॅवे हाणें मांडलां.

'डिस्ट्रीब्युशन ऑफ वॅल्थ' - ए थियरी ऑफ वेजीस, इंटरॅस्ट अँड प्रॉफिट्स' अशें क्लार्काच्या ह्या ग्रंथाचें पुराय नांव आसा. ह्या ग्रंथांत मौलक सिद्धांत मांडचेपयलीं क्लार्कान आनुशंगीक आदारी गजालींची व्हडा जतनायेन निवड केल्या. १) खाजगी म्हालवज २) व्यक्तीस्वातंत्र्य ३) योग्य त्या क्षेत्रांत मर्यादीत सरकारी हस्तक्षेप ४) मोबदल्याचे अपेक्षेन निर्माण जावपी श्रमभांडवलाची गतीशीलता आनी ५) स्वताच्यो वस्तुनिश्ठ गरजो तृप्त करपाची मनशाची इत्सा. ह्या त्या काळांतल्या अर्थशास्त्रीय विचारप्रणालीकडेन संबंदीत आशिल्ल्या गृहीत तत्त्वांचे बरोबरीनूच ताणें तीन सुत्रांक म्हत्त्व दिलें, तीं तीन सुत्रां अशीं - १) समाज ही एक जीवकोटी (Organism) आसा. २) अर्थशास्त्रांत गतीमान आनी स्थितीमान विश्लेशणांतले भेद लक्षणीय आसतात. ३) अर्थशास्त्रीय नेमांचें प्रामाण्य समाजाचे मान्यतायेचेर आदारून आसता. क्लार्काचीं हीं तत्त्वांच ताच्या विचारांची वेगळी दिका दाखोवपी आसात. तशेंच हातूंतल्यान ताचेर आशिल्ल्या जर्मन इतिहासीक संप्रदायाचो प्रभाव आनी नैतिक नदरेचें म्हत्त्व स्पश्टपणान दिसता.

प्रा. क्लार्काक अर्थशास्त्रीय प्रस्नांचे नैतिकतेविशीं खूब आस्था दिसताली आनी तातूंतल्यानूच ताका हे ग्रंथनिर्मितीखातीर प्रेरणा मेळ्ळी, अशें म्हण्टात. आपल्या ग्रंथाचे सुरवातेकूच उत्पादकांनी केल्लें पुराय उत्पादन तांच्या पदरांत पडटा काय ना, हें पळोवप नैतिक नदरेन खूब म्हत्वाचें, असो आपलो हो ग्रंथ बरोवपाफाटलो हेत आशिल्ल्याचें तो सांगता. हाचेवयल्यान हें स्पश्ट जाता की, क्लार्काची विभाजनमीमांसा म्हळ्यार समाजीक न्यायाच्या प्रस्नांची विस्काटावणी करचेलो एक यत्न आशिल्लो. हे भुमिकेंत वस्तुस्थिती आनी आदर्श हीं निमाणें एकूच आसात, अशें आपणें सिद्ध केलें, असो ताचो समज आशिल्लो.

सुरवातिकूच प्रा. क्लार्क अर्थशास्त्राचे तीन विभाग सांगता - पयल्या विभागांत भौशीक, सार्वकालिक आनी संवसारीक स्वरुपाचे नेम सांगता, जाल्यार उरिल्ल्या दोन भागांनी तो समाजाचे अर्थीक घडणुकेविशीं विस्कटावणी करता. पयली विस्कटावणी स्थितीमान स्वरुपाची. दुसरी गतीमान स्वरुपाची आसा. प्रा. क्लार्काचें स्वताचें विभाजनाचें स्पश्टीकरण हें स्थितीमान स्वरुपाचें आसा.

हें क्लार्काचें स्पश्टीकरण चार मुळाव्या गृहीत तत्त्वांचेर आदारिल्लें आसा. १) उण्या जावपी वापराचो सिद्धान्त. २) उत्पादन उण्या जावपी प्रतीफलाच्या नेमाप्रमाण जायत आसता. ३) वस्तू दोन तरांच्यो आसतात- अ) चालू उपभोगाच्यो आनी ब) भविश्यकाळांतल्या उत्पादनाक सहाय्य करपी. स्थितीशील अर्थीक परिस्थितींत ह्या दुसऱ्या प्रकाराच्या वस्तूंची (म्हळ्यार भांडवलाची) पुरवण उणी चड जायना. ४) उत्पादन आनी उपभोग हांकां दोगांकूय सीमान्त तत्त्व लागू जाता.

हे गृहीत परिस्थितींतले सर्तीक लागून उत्पादक घटकांचे वांटप अशे तरेन आपोआप जायत आसता की, तातूंत कसलोच बदल करप फायद्याचे जावचें ना. कारण सर्तीचे परिस्थितींत प्रत्येक घटकाचें हें वांटप सीमान्त बिंदूमेरेन जाल्लें आसतलें आनी थंय त्या सीमान्त परिणामांचें आय (Income) आनी ताचो व्यय (expenditure) सारकेच आसतात. ताचो एक परिणाम वाडयलो वा उणो केलो जाल्यार ताचेपसून मेळपी उत्पन्न (आय) तेखातीर जावपी व्ययापरस उणें जातलें. देखून उत्पादक असो बदल करचोना. हें तत्त्व अशेंच सगळ्या उत्पादक घटकांक लागू जाता.

हे सुवातेर कश्टाच्या आनी मजुरीच्या संदर्भांत एक कठीण प्रस्न असो पडटा, की सीमान्त कामगाराची मजुरी आनी उत्पादन जर सारकें आसता, जाल्यार उत्पादनाक उण्या जायत वचपी प्रतीफलाचो सिद्धांत लागू जायत आशिल्ल्यान सीमान्तपूर्व कामगारांसावन ताका अदीक उत्पन्न मेळटा आनी सगळ्यांची मजुरी सारकी आशिल्ल्यान ह्या सीमान्तपूर्व कामगारांसावन कारखानदाराक चड (surplus) मेळटा. ही कामगारांची पिळवणूक आसा.

हाचेर क्लार्काचें म्हणणें अशें, उत्पादन हें फकत कामगारांसावन मेळत नासून तें भांडवल आनी कश्टाच्या प्रमाणशीर संयोगान आनी पालवान मेळत आसता. दुसरें अशें की उदाहरणा खातीर म्हणून आमी अमूक एक कामगार 'सीमान्त' अशें गृहीत धरतात आनी हें ताचें उत्पादन,

अशें म्हळें तरी प्रत्यक्षांत ते खाशेले परिस्थितींत दरेका कामगाराचें उत्पादन तितलेंच आसता. हाका क्लार्क समतुश्टीचें तत्त्व (Principle of indifference) म्हण्टात. म्हळ्यार खाशेलो कामगार न्हय, जाल्यार खाशेली उत्पादकता, ताच्या मुळाकडेन आशिल्ल्यान हाका खाशेलो उत्पादकता सिद्धांत (Specific productivity theory) म्हण्टात. हाचेफुडलो पांवडो म्हळ्यार स्थितीशील परिस्थितींत सीमान्त उत्पादना इतलो मोबदलो मेळत आसता. देखून स्थितीशील परिस्थितींत फायदो शून्य आसता. तो फकत गतीमान परिस्थितींतूच उत्पन्न जावंक शकता.

भांडवलाविशींचे प्रा. क्लार्क हाचे विचारूय नवे आसात. तो भांडवलाचे १) उत्पादक वस्तू आनी २) उत्पादक धनाचो अमूर्त / सांठो (abstract quantum of productive wealth) अशे दोन वांटे करता. पयल्या प्रकाराचें भांडवल उत्पादन-प्रक्रियेंत ना जाता. पूण दुसरें स्थायी स्वरुपाचें आसता.

क्लार्क भूंयेक एक तरेचें भांडवलूच मानता. ताच्या मतान मर्यादीत पुरवण आनी गुणभिन्नता हीं खाशेलपणां हेर घटकांतूय (देखीक - कश्टांत) दिसून येतात. तशेंच खंड हो भुंयेसारको हेर घटकांसावनूच मेळटा आनी व्याज हें उपभोग वर्जनाक (Abstinence) लागून निर्माण जायत आसलें तरी ताचो तर भांडवलाच्या सीमान्त उत्पादकतेप्रमाण थारता आसता.

ह्या प्रमाण सगळ्या घटकांचें उत्पन्न ताचे सीमान्त उत्पादकतेन थारत आसून त्या सगळ्यांची बेरीज स्थितीशील परिस्थितींत उत्पादीत वस्तूच्या मोलाइतली आसता आनी देखून थंय फायद्याक सुवात ना. क्लार्काच्या मतान, गतीमान परिस्थितींत पांच कारणांक लागून फायदो उप्रासता - १) भांडवल संग्रह २) लोकसंख्या ३) तंत्रीक प्रगती ४) प्रगत वेवस्थापन आनी ५) आवडी निवडी, फॅशन्स हातूंतले बदल.

प्रा. क्लार्काच्या ह्या विभाजन सिद्धांतांत कितल्याशाच जाणांनी खूब दोश दाखयल्यात. प्रो. टॉसिगान घटकांची खाशेली उत्पादकता काल्पनिक आसा अशें म्हळां, जाल्यार कितल्याशाच जाणांनी प्रा. क्लार्काचे विस्कटावणेंत आयिल्लो नैतिक सूर अयोग्य अशें दिसता. ताणें भांडवलाचें भांडवली वस्तू आनी भांडवली धन हें केल्लें वर्गीकरण आनी ताचो केल्लो उपेग हाचेर कांय जाणांनी आक्षेप घेतला. टॉसिंग सोडल्यार हेर चडशा सगळ्या अमेरिकन लेखकांनी प्रा. क्लार्काच्या विचारांची फाटपुरवण केल्ली दिसून येता. ताणें आपले विस्काटावणेंत खाशेली उत्पादकता (Specific Productivity) हाडून मार्क्साच्या शोशण सिद्धांताक दिल्ली जाप कितल्याशा जाणांक पटली ना. तांणी प्रा. क्लार्काचेर 'स्थितीशीलवादी' आशिल्ल्याचो आरोप केला.

'डिस्ट्रीब्युशन ऑफ वॅल्थ' हो ग्रंथ उजवाडा येतकच ताचेर अनुकूल-प्रतिकूल अशी खूब टिका जाली. ग्रंथांतल्या सिद्धांतांचें फावो तें मुल्यमापन कांय दशकांउपरांत जालें. पोरणे सीमान्त उत्पादकतेचे संकल्पनेक स्वरूप दिवन आनी तिका विभाजन प्रक्रियेंत मध्यवर्ती सुवात दिवन वैयक्तिक घटक आनी सगळे एकत्रित घटक हांच्या उत्पन्नांची फोडणिशी करपाचें मोलादीक कार्य क्लार्कान ह्या ग्रंथावरवी केलें. तेचवांगडा ताणें सीमान्त उत्पादकताय आनी सीमान्त उपेग हांचो मेळ सादून, सेवन, उत्पादन आनी विभाजन हातूंत सुसूत्रताय हाडली आनी हे सगळे एके सादे गणिती पद्दतीन मांडिल्ल्यान ही विस्कटावणी बरीच बळिश्ट जाल्या, अशें ब्रिटीश अर्थशास्त्रज्ञांनी म्हळां.

ह्या पुस्तकाक लागून प्रा. क्लार्क हाका अमेरिकन सीमान्तवादाचो मुखेल म्हणयारो (प्रवक्तो) अशें मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

## डि ड्यूव्हे, क्रिश्चन आर् :

(जल्म : २ ऑक्टोबर १९१७, थेम्स - डिट्टन, इंग्लंड).

नामनेचो बेल्जियन वैज. बेल्जियमांतली लूव्ही विद्यपिठाची वैजकीची पदवी (१९४१) मेळयतकच ताणें स्नातकोत्तर पदवी (१९४६) मेळयतकच ताणें कांय काळ स्टॉकहोमच्या नोबॅल इन्स्टिट्युटांत आनी वॉशिंग्टन विद्यापिठाच्या कार्ल कोरी इन्स्टिट्युटांत संशोधन केलें. उपरांत तो लूव्ही विद्यापिठांत परत आयलो आनी फुडें थंय कोशिकाविज्ञानाचो प्राध्यापक जालो. १९६२त ताणें अशेच तरेचें अर्देवेळ काम रॉकफेलर विद्यापिठांतूय केलें.

क्लोड हाणें केंद्रोत्सारक उपकरणा वरवीं कोशिकेंतले घटक वेगळे केले आनी इलेक्ट्रॉन सुक्ष्मदर्शकान कोशिकेचो सविस्तर अभ्यास केलो आनी उपरांत डी ड्यूव्हे आनी पॅलेड हाणें क्लोड हाच्या तंत्रांत सुदारणा केल्यो आनी सूत्रकणिका, सुक्ष्मकाय, रिबोसोम, पेरॉक्सिसोम आनी लायसोझोम हे कोशिकेच्या घटकांच्यो व्याख्या निश्चित करून तांचीं कार्यां खंयचीं, हें तपासून पळेलें. अशे तरेन ह्या तिगांयच्या कार्याक लागून कोशिकांत विशेशीत अशे कितलेशेच घटक वा ग्रॅनेल्स आसून ते फुडलें कार्य करूंक शकतात, हें दिसलें. पोशक द्रव्याचें पचन, कोशिकेंत जावपी नुकसान भरून काडप, कोशिकाद्रव्याचें संश्लेशण, चयापचयाचें नियंत्रण आनी कोशिकेच्या बाह्य पटलाचेर हल्लो करपी जंतूंचो नाश करप. कोशिकांतल्या दोशपूर्ण कार्याक लागून उप्रासपी कितल्याशाच रोगांवयले उपाय सोदपाखातीर हे म्हायतीचो उपेग करतात.

१९५५त डी ड्यूव्हे हाणें कोशिकाद्रव्यांत लायसोझोम आसतात, हें सोदून काडलें. लायसोझोम वेगवेगळ्या आकारांचे आसून ते मोनजात आनी वनस्पती हांच्या सगळ्या तरांच्या कोशिकांनी दिसतात. पचन तंत्राप्रमाण कार्य करपी कोशिकेन भितर घेतिल्ल्या सगळ्या तरांच्या द्रव्याचें ल्हान घटकांनी रुपांतर करपाची तांक आशिल्लें एंझायम लायसोझोमांत आशिल्ल्याचें ताणें दाखोवन दिलें. तशेंच विखाळ थारपी रेणू लायसोझोमांक लागून नश्ट जातात. लायसोझोमांचो उणाव वा दोश हाका लागून ग्लायकोजेनॉसीस आनी टेक्सास हे रोग जातात. हे खेरीज कोशिकेच्या क्रियाप्रवणतेच्यो पद्दती, तशेंच लायसोझोम आनी पेरॉक्सिझोम हांची एंझायमी प्रवणता सोदप, गोडेमुतांत इन्सुलीन आनी ग्लुकागॉनाचे क्रियेविशींच्या कार्बोहायड्रेट चपापचयाविशींचें संशोधन हें कार्य ताणें केलां.

कोशिका (पेशी) विज्ञानांत मोलादीक भर घाली म्हणून ताका आल्बर्ट क्लोड आनी जॉर्ज एमील पॅलेड हांचे वांगडा १९७४ वर्साचो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञानाचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. Glucose and insulin in diabetes (१९४५) हें पुस्तक ताणें बरयलां.

- कों. वि. सं. मं.

## डील्स, ओटो पाऊल हेरमान :

(जल्म : २३ जानेवारी १८७६, हँबर्ग; मरण : ७ मार्च १९५४, कील).

नामनेचो जर्मन रसायनशास्त्रज्ञ. डायन ह्या म्हत्वाच्या कार्बनी संयुगांच्या संश्लेशणाविशीं केल्ल्या संशोधनाखातीर ताका १९५०वर्साचो

रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार कूर्ट आल्टर हाचे वांगडा वांटून मेळ्ळो. ताचें शिकप बर्लिन विद्यापिठांत जालें. थंयच एमील फिशर ह्या नामनेच्या रसायनशास्त्रज्ञाच्या मार्गदर्शनाखाल संशोधन करून ताणें १८९९त पीएच.डी. मेळयली. थंयच्याच इन्स्टिट्यूट ऑफ कॅमिस्ट्री हे संस्थेंत ताणें सहाय्यक म्हणून प्रवेश केलो आनी १९०६त प्राध्यापक आनी १९१३त तो विभाग मुखेल जालो. १९१५ त तो बर्लिन विद्यापिठांत प्राध्यापक जालो.

१९१६त, तो कील विद्यापिठांतल्या इन्स्टिट्यूट ऑफ कॅमिस्ट्रीचो संचालक जालो. १९४५त, तो ह्या पदावयल्यान निवृत्त जालो.

१९०६ त, ताणें कार्बन सब-ऑक्सायड ह्या खाशेल्या आनी क्रियाशील वायूचें संश्लेशण केलें आनी ताचे गुणधर्म आनी रसायनीक संरचना हांचो अभ्यास केल्लो. धातू रुपांतल्या सिलिनियमाचो उपेग करून संतृप्त (saturated) कार्बनी संयुगांतल्यान हायड्रोजन काडून घेवपाची नियंत्रीत पद्दत ताणें सोदून काडली.

डायन संश्लेशण हें डिल्स हाणें केल्लें म्हत्वाचें संशोधन. डायन संयुगांत दोन कार्बन अणू द्विबंधयुक्त आसून ते एका एकेरी बंधान विभागिल्ले आसतात. कितल्याशाच कार्बनी संयुगांच्या संश्लेशणांत ह्या संयुगांचो उपेग केलो आनी ताचेवयल्यान संश्लेशीत पदार्थाच्यो रेणवीय रचणुको समजप सोपें जालें. ही संश्लेशण विक्रिया डिल्स आनी तांचे वांगडी कूर्ट आल्डर हांणी विकसीत केल्ली म्हणून आतां तिका डिल्स-आल्डर विक्रिया ह्या नांवान वळखतात. रसायनीक तंत्रविद्येंत हे विक्रियेक लागून खूब उदरगत जाली.

१९३१ त ताका ॲडॉल्फ बेयर पदक फावो जालें. १९४६त ताका ख्रिश्चन आल्ब्रेख्त विद्यापिठाची भोवमानाची डॉक्टरेट पदवी फावो जाली. Einfuhrung in die Organische Chemie (१९०७) ह्या ताच्या पाठ्यपुस्तकाचो कितल्योशोच आवृत्त्यो उजवाडाक आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**डुकले, माधव चंद्रोबा :** (जल्म : १८२५, कळंगूट, गोंय; मरण: १८८५).

पुर्विल्ल्या मराठी कवितेचो संपादक आनी प्रकाशक. ताचें पुराय नांव माधव चंद्रोबा डुकले. मुंबय ताचो वखदां विकपाचो आनी छायाचित्रणाचो धंदो आशिल्लो.

१८६० वर्सा ताणें पुर्विल्ल्या कवींच्या कवितांचें 'सर्वसंग्रह' हें म्हयनाळें सुरू केलें. पुर्विल्ल्या कवींच्यो साहित्यकृती उजवाडावन भास निवळावपाच्या हेतान सर्वसंग्रहाचो वावर चलतालो. ह्या मासिकाच्या संपादनांत ताका नवनीतकार परशुराम (तात्या) गोडबोले, बाळ यज्ञेश्वर पाध्ये आनी ताचो भाव अनंत चंद्रोबा हांचें सहकार्य मेळ्ळें. पुर्विल्ल्या कवींच्यो मराठी कविता छापतना विरामचिन्नांचो उपेग करपाची चाल सर्वसंग्रहान सुरू केली. पुर्विल्ले मराठीची वळख करून दिता आसतना त्या कवितांचो अभ्यास करपाची गोडी ह्या मासिकान निर्माण केली. ह्या मासिकांत आर्याभारत, मंत्रभागवत, मादालसोपाख्यान, बह्योत्तरखंड आदी मोरोपंताचीं काव्यां, तशेंच मुक्तेश्वरी भारताचीं तीन पर्वां आदी कवितांचो आस्पाव जाता.

माधव चंद्रोबान संपादीत केल्ल्या ग्रंथांत नामदेवकृत बालक्रीडा, अभंग (१८६२), तुकारामकृत अभंग (१८६६), मुक्तेश्वर विराट पर्व (१८६७), रामदासकृत अभंग (१८६८) हांचो आस्पाव आसा. कृष्णशास्त्री पेंडसे, आवासकर हांच्या आदारान ताणें शब्दरत्नाकर वा संस्कृत आनी प्राकृत शब्दकोश (१८७०) तयार केलो. त्याकाळांतल्या संस्कृत - प्राकृत कोशांत हो शब्दकोश सगळ्यांत व्हडलो. वैजकी शास्त्रांतल्या पारिभाशीक शब्दांची विस्कटावणी ह्या कोशांत विस्तारान केल्या.

- कों. वि. शं. मं.

**डुरखायम, एमिल :** (जल्म : इ. स. १८५८; मरण : १५ नोव्हेंबर १९१७).

नामनेचो समाजशास्त्रज्ञ. हाचो जल्म एका ज्यू घराण्यांत जालो. १८८२त ताणें आपलें शिक्षण पुराय केलें आनी इ. स. १८८७ मेरेन ताणें शिक्षक म्हणून काम केलें. त्याच काळांत ताणें अर्थशास्त्र, समुह मानसशास्त्र आनी सांस्कृतिक मानवशास्त्र ह्या विशयांचो अभ्यास केलो. उपरांत पॅरिस विद्यापिठांत समाजशास्त्र आनी शिक्षणशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. पॅरिस विद्यापिठान ताका डॉक्टरेटची पदवी दिवन भोवमान केलो. ताणें इ. स. १८९८त लॅनी सोशियॉलॉजिकल हें नेमाळें सुरू केलें. फ्रॅंच समाजीक विचारांच्या इतिहासांत नामनेचो समाजशास्त्रज्ञ कॉम्त हाचो उत्तराधिकारी म्हणून डुरखयम हाचो उल्लेख करतात.

डुरखायम हाणें पद्दतीशास्त्र, समाजीक सत्य, सामुहिक प्रतिनिधित्व, समाजीक श्रमविभाजन, धर्माविशींचे सिद्धान्त, आत्महत्येविशींचे सिद्धान्त हे विशीं विचार मांडले. पद्दतीशास्त्र (Methodology) ताच्या मतान वस्तूंचो अभ्यास हो अणभवांचेर आदारिल्लो आसता आनी शास्त्राची वृत्ती अणभवाक मान्य करपी आसची. तेचपरी सहभागी विचलन हाकाय म्हत्व दिवंक जाय. पद्दतीशास्त्रांत समाजीक वास्तवाक (Social fact) म्हत्वाची सुवात आसा अशें तो मानता.

समाजीक वास्तव : समाजांतल्या मनशांत जेन्ना आंतरक्रिया (Interaction) सुरू जातात तेन्ना त्या त्या मनशाचे गुणविशेश हे फकत त्या मनशाचे उरनात. अशे आंतरक्रियेचे परिस्थितींत समाजीक सिद्धान्त उगम पावतात. देखून डुरखायम फुडें म्हणटा, समाजशास्त्र म्हळ्यार समाजीक वास्तवाचो, सत्याचो अभ्यास.

सामुहिक प्रतिनिधित्व : ही संकल्पना समाजीक वास्तवाचे संकल्पनेंतल्यान सहज तयार जाता. ताच्या मतान जेन्ना एक पंगड कसलेंय काम करता तेन्ना तातूंत एक प्रकारची एकता आसता. सगळ्यांचें लक्ष एके विशिश्ट वस्तूचेर केंद्रीत जाल्लें आसता. ह्या पंगडांतले मनीस सारकेच भावनेच्या प्रवाहांतल्यान वतात म्हणजेच तांकां सामुहिक जाणीव आसता. विशिश्ट समाजांत त्या त्या मनशांनी निर्माण केल्ले जायते भाव, भावना, कल्पना आसतात आनी मनीस तातूंत वांटो घेता. हांकाच तो सामुहिक प्रतिनिधित्व म्हण्टा. ताका लागून डुरखायमच्या मतान समाजशास्त्र म्हळ्यार सामुहिक प्रतिनिधित्वाचें शास्त्र.

समाजीक श्रमविभाजन : समाजाच्या सुखाचेर मनशाचें सुख आदारून आशिल्ल्यान सादारणपणान सदांच उत्पादन वाडिचोच विचार समाजांत जायत रावता. डुरखायमच्या मतान समाजांतल्या भौतीक - नैतिक बदलांक लागून श्रमविभाजन गरजचें, हाका लोकसंख्येची वाडय कारणीभूत आसा. जिणेविशीं संघर्श वाडिल्ल्यान श्रमविभाजनाची उदरगत जायत गेली

तशेंच यांत्रिक एकताय उणी जावन सैंद्रिय एकता प्रधान जायत गेली. ताच्या मतान श्रमविभाजन आनी समाजीक विघटन ह्यो वेगवेगळ्यो गजाली विघटणाचें स्वरूप समाजांत दुख्ख तयार करता जाल्यार श्रमविभाजन समाजांत उदरगत घडयता. श्रमविभाजनाबगर समाजाचे उदरगतीची कल्पना करूंक येता.

धर्माविशींचे सिद्धांत : ताणें 'एलिमेंटरी फॉर्म्स ऑफ द रिलिजस लायफ' (धर्मीक जिणेविशींचो मुळावो आविश्कार) ह्या ग्रंथांत आपले धर्माविशींचे विचार मांडल्यात. धर्माची उत्पत्ती, ताचें स्वरुप, समाजीक जिणेचेर ताचो परिणाम आदीविशीं बरीच मूलभूत आनी विस्तृत भासाभास ताणें ह्या ग्रंथावरवीं केल्ली आसा. ताणें समाजाविशींचीं धर्माचीं चार मुखेल कार्यां सांगल्यांत -

१) समाजीक शिस्तीविशींचें कार्य

२) समाजांत एकात्मताय दवरपाचें कार्य

३) समाजांत जोम उत्पन्न करपी कार्य

४) दैवी शक्तीकडेन संबंद दवरपी कार्य.

डुरखायमच्या मतान मरणाकलागून वैयक्तिक तशेंच सामुहिक नुकसान जावन नाजाल्लें समाजांतलें समतोलपण परत जाग्यार हाडपाचें व्हड काम धर्म करता. हाकाच लागून मनशाच्या अस्तित्वाक अर्थ मेळोवन दिता.

आत्महत्येचो सिद्धांत : डुरखायमच्या मतान आत्मघात ही फकत एक समाजीक घडणूक आनी ती उपयुक्ततवादाक लागून सामूहिक जीणेंत तयार जावपी विघटणांतल्यान जाता. आत्महत्या आनी समाजांत एकजूट नासप हीं एकमेकांचेर आदारून आसता. तो फुडें म्हणटा, आत्मकेंद्रीत, समुहकेंद्रीत आनी मुल्यांवयलो विश्वास जेन्ना ना जाता तेन्ना आत्महत्येची अवस्था येता.

एकुणिसाव्या आनी विसाव्या शतमानांतल्या समाजशास्त्राच्या विचार प्रवाहांक जोडपी डुरखायम हो म्हत्वाचो दुवो. ताणें आपल्या विचारांवरवीं शुद्ध समाजीक घटकांचें म्हत्व, समाजीक स्पश्टीकरणाखातीर कितलें म्हत्वाचें आसा तें सांगपाचो यत्न केला.

- कों. वि. सं. मं.

**डेल, हॅन्री हॅलेट :** (जल्म : ९ जून १८७५, लंडन; मरण : २३ जुलय १९६८, केंब्रिज).

नामनेचो ब्रिटीश शरीरक्रियाविज्ञानीक. कँब्रिज विद्यापीठ आनी सेंट बारथॉलोम्यू रुग्णालयांत ताचें शिक्षण जालें. तो १८९७ त एम्. ए. आनी १९०३त एम्. डी. जालो. वेलकाम फिजिऑलॉजिकल लॅबोरेटरींत वखदीक्रियातज्ञ म्हणून काम करता आसतना राय धान्यावयल्या अरगंट ह्या कवकाची रसायनीक रचणूक आनी शरीरावयले परिणाम हांचेविशीं संशोधन करता आसताना हिस्टामिनाचो शस्त्रक्रिये वेळार येवपी अवसाद हाच्या संशोधनांत ताणें लक्ष घालें. रोखडोच ताका 'ॲसिटीलकोलीन' ह्या नव्या पदार्थाचो सोद लागलो आनी हो पदार्थ आनी तंत्रिका आवेग हांचो संबंदूय ताच्या लक्षांत आयलो.

प्राणेशा तंत्रिकेंतल्यान (मेंदवांतल्यान वचपी धावे मज्जेंतल्या) संवेगाक लागून एक रसायनीक पदार्थ उत्पन्न जाता अशें ऑटो लव्ही हाणें १९२०त सिद्ध केलें. हो पदार्थ ॲसिटीलकोलिना सारकोच आशिल्ल्याचें डेल हाच्या लक्षांत येतकच ताणें आनी ताच्या वांगड्यांनी तंत्रिका आवेगाक लागून ॲसिटीलकोलिनाचो स्त्राव जाता आनी ह्या स्त्रावाक लागून तंत्रिका संयोजनांतल्यान संवेदना पावयतात हें सिद्ध केलें.

लंडन हांगाच्या नॅशनल इन्स्टिटच्यूट फॉर मेडिकल रिसर्च हे संस्थेचो संचालक म्हणून ताणें १९२८-४२त काम केलें. ते आदीं ताणें ब्रिटीश मॅडिकल रिसर्च काउन्सिलच्या जीवरसायनशास्त्र आनी वखदीक्रियाविज्ञान ह्या विभागाचो मुखेल म्हणून काम केल्लें (१९१४).

तंत्रिका आवेग प्रेशणातल्या रसायनीक वावराखातीरच्या संशोधनाखातीर १९३६ वर्साचो नोबॅल पुरस्कार ताका ऑटो लव्ही हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

रॉयल सोसायटी, ब्रिटीश असोसिएशन फॉर ॲडव्हान्समेंट ऑफ सायन्स आनी रॉयल सोसायटी ऑफ मॅडीसीन ह्या संस्थांचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. दुसऱ्या म्हाझुजांत तो ब्रिटीश मंत्रीमंडळाचे विज्ञानीक सल्लागार समितीचो आनी अणुऊर्जा सल्लागार समितीचो वांगडी आशिल्लो. नायट किताब (१९३२), ऑर्डर ऑफ मॅरीट (१९४४) आनी हेर जायते भोवमान ताका मेळ्ळे.

Adventures in Physiology (१९५३) आनी An Autumn Gleaning (१९५४) हें ग्रंथ ताणें बरयले.

- कों. वि. सं. मं.

**डे, विष्णु :** (जल्म : १८ जुलय १९०९, कलकत्ता; मरण : १९८३).

भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार विजेतो तसोच नामनेचो बंगाली कवी. ताच्या बापायचें नांव अबिनाशचंद्र. तो बंगाली आनी इंग्लीश साहित्याचो विद्वान आशिल्लो.

विष्णुबाबू, कलकत्ता विद्यापिठांतल्यांन इंग्लीश विशय घेवन एम. ए. जालो. उपरांत ताणें कलकत्तेच्या सेंट पॉल्स, रिपन प्रेजिडॅन्सी आनी मौलाना आझाद ह्या महाविद्यालयांतल्यान इंग्लिशीचो प्राध्यापक म्हणून काम केलें.

विष्णुबाबून खूब लिखाण केलें. ताचे कवितेंत उदेंती तशेच अस्तंती संस्कृतायांचो प्रभाव दिसता. ताणें आपले कवितेंत लोकगितांतल्या आनी लोकसंगितांतल्या खाशेलपणाचो व्हड कुशळटायेन उपेग केला. ताची चिंतनशील वृत्ती, संवसारीक साहित्य, कला, धर्म, तत्त्वज्ञान, विज्ञान ह्या विशयांचो अभ्यास, प्रतिभेची उपजत देणगी, वैश्विक आनी मानवतावादी नदर ताचे कवितेंत दिसता. ताच्या उल्लेख करपासारक्या कृतींचीं नांवां अशीं आसात -

काव्यांझेले - उर्वशी ओ आर्टेमिस (१९३३), चोराबालि (१९३७), पूर्वलेख (१९४१), सातभाई चंपा (१९४५), संद्वीपेर चर (१९४७), अन्विष्ट (१९५०), नाम रेखेछि कोमल गांधार (१९५३), आलेख (१९५८), तुमि शुधु पँचीशै बैशाख (१९५८), स्मृतिसत्ता भविष्यत् (१९६१), सेई अंधकार चाई (१९६६), रुशति पंचारशति (१९६७), संवाद मूलत काव्य (१९६९), इतिहासे ट्रॅजिक उल्लासे (१९७०). तशेंच ताणें संवसारांतल्या सुमार साठ कवींच्यो वेंचीक कविता बंगाली भाशेंत अणकारीत केल्यात. तातूंतल्या कांय कवितांचे स झेले आयजमेरेन उजवाडा आयल्यात. तांचीं नांवां अशीं आसात - इलिएटेर कविता,

समुद्रेर मौन (१९४५), कॅरमेल डॉल (१९४६), हे विदेशी फूल (१९५७), माओ त्से तुंगेर कविता (१९५८), आफ्रिकाय एशियाय मुरली मृदंगेर तूर्ये (१९७०).

निबंधसंग्रह आनी समिक्षा लेखसंग्रह - रुचि ओ प्रगति (१९४६), साहित्येर भविष्यत् (१९५२), एलोमेलो जीवन ओ शिल्प-साहित्य (१९५८), साहित्येर देश - विदेश (१९६३), रबींद्रनाथ ओ शितपसाहित्ये आधुनिकतार समस्या (१९६६), मायकेल रबींद्रनाथ ओ अन्यान्य जिज्ञासा (१९६७). ताणें आठ - धा ग्रंथ इंग्लिशींतल्यान बरयल्यात. तातूंतले कांय उल्लेख करपासारके ग्रंथ आसात ते अशे - बॅंगाल पेंटर्स टेस्टिमनी (१९५०), ॲन इण्ट्रोडक्शन टू जेमिनी रॉय (१९५३), इंडिया ॲंड मॉडर्न आर्ट (१९५७), पेंटिंग्स ऑफ रबींद्रनाथ टागोर (१९६४), इन द सन ॲंड द रेन (सौंदर्यशास्त्रावयलो निबंद, १९७२).

विष्णुबाबूंचेर कांय प्रमाणांत टी. एस. एलियट, एझरा पाऊंड ह्या अस्तंती कवींचो प्रभाव पडिल्लो दिसता.

सोबीतकाय, धर्म, मोग ह्या मुल्यांचो पुनर्विचार, शारिरीक कामवासनांचे आपणावप आनी तांची निर्भय अभिव्यक्ती, नव्या युगांतली जिणेच्या कलहाची भीशणटाय विंगड विंगड संस्कृतायांचे प्रवाह आनी तातूंतल्या तत्त्वांचें आकलन, फ्रॉयड, यूंग ह्या मानसशास्त्रज्ञांचें दर्शन, मार्क्सवादी तत्त्वज्ञान ह्या आंगांनी ताची कविता जल्माक आयल्या.

ताच्या 'स्मृतिसत्ता भविष्यत्' ह्या काव्यझेल्याक १९६५ वर्सा साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळो. १९७१ वर्सा ह्याच पुस्तकाक भारतीय ज्ञानपिठाचो पुरस्कार फावो जालो. १९६८ वार्सा ताका सोव्हिएत लॅंड नेहरू पुरस्कार मेळ्ळो.

रबींद्रनाथ टागोर हाचे उपरांत सगळ्यांत श्रेश्ठ बंगाली कवी म्हणून बंगाली साहित्यांत विष्णुबाबूंक म्हत्वाची सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## डेव्हिस किंग्सले : (जल्म : इ. स. १९०८).

नामनेचो अमेरिकन समाजशास्त्रज्ञ. ताणें माध्यमिक शिक्षण पुराय जातकच अमेरिकेंतल्या टॅक्सास विद्यापिठांत तत्त्वगिन्यान, अर्थशास्त्र आनी समाजशास्त्र हे विशय घेवन पदवी परीक्षा दिली. उपरांत तो टॅलकॉट पारसन्स ह्या नामनेच्या समाजशास्त्रज्ञाच्या मार्गदर्शनाखाल समाजशास्त्रीय सिद्धांतांचो अभ्यास करूंक लागलो. १९३७त ताणें पीएच.डी.ची पदवी मेळयली. इ. स. १९३७ - ४४ ह्या काळांत ताका सोशल सायन्सीस रिसर्च काउन्सील हे संस्थेंत फॅलोशिप मेळ्ळी. डेव्हिसच्या निबंदाचे सुरवातेचे विशय आनी ताची विवेचन पद्दत ही पारसन्सच्या विचारसरणेन प्रभावीत जाल्ली दिश्टी पडटा. डेव्हिसाच्या ह्युमन सोसायटी (मानवी समाज) ह्या पुस्तकाक पयल्या पांवड्याचें क्रमीक पुस्तक म्हणून नामना मेळ्ळी. डेव्हिस आनी ताच्या वांगड्यांनी संवसारांतल्या मुखेल शारांविशीं आंकडेवारी आनी म्हायती एकठांय केली. सुरवातेक ताका १९७१त कॅलिफॉर्निया विद्यापिठांत आनी उपरांत बर्केले विद्यापिठांत समाजशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून नेमिल्लो. कांय काळ ताणें 'अमेरिकन सोशिऑलॉजिकल असोसिएशन' चो अध्यक्ष म्हणून काम केलें. तेचपरी पॉप्युलेशन असोसिएशन ऑफ अमेरिका हे संस्थेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. इ. स. १९५१त ताणें पॉप्युलेशन ऑफ इंडिया ॲंड पाकिस्तान ' हो ग्रंथ उजवाडा हाडलो. तातूंत भारत आनी पाकिस्तान ह्या देशांतल्या लोकसंख्येविशीं तपशिलान म्हायती दिल्या. जल्म-मरण, स्थलांतर हाचेविशीं सगळेवटेन ताणें विश्लेशण केल्लें आसा. तशेंच ह्या ग्रंथांत जाती, धर्म, शिक्षण, साक्षरताय, भारतीय शारांचें खाशेलपण आनी लोक संख्यात्मक धोरण आदी विशयांची म्हायती आसा. इ.स. १९६२त ताणें 'इंडियन अर्बन फ्युचर' हो भारतांतल्या शाराची उदरगत आनी नागरी जीण हे विशींचो ग्रंथ बरयलो.

लोकसंख्या विकसीत आनी विकसिनशील शारां आनी तांचे प्रस्न, हे ताच्या अभ्यासाचे खाशेले विशय आसून ह्या सगळ्या विशयांचेर ताणें सुमार पंचवीस पुस्तकां बरयल्यांत. समाजशास्त्रज्ञ, लोकसंख्या शास्त्रज्ञ, शिक्षणतज्ञ, नागरी जिणेंतल्या अडचणींचें विश्लेशण करपी विशेशज्ञ अशा वेगवेगळ्या आंगांखातीर डॅव्हिसाची नामना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## डेव्ही, सर हॅम्फ्री : (जल्म : १७ डिसेंबर १७७८, पेंझॅन्स, कॉर्नवॉल; मरण : २९ मे १८२९, जिनिव्हा).

नामनेचो इंग्लीश रसायनशास्त्रज्ञ. खाणींतलो 'सुरक्षा दिवो' (Safety Lamp) आनी पोटॅशियम आनी सोडियम हीं मुलद्रव्यां हांचो ताणें सोद लायलो. ताचें शिकप पेंझॅन्स आनी ट्रुरो नगरांनी जालें. १७९५त ताणें पेंझॅन्स शस्त्रचिकित्सक आनी वखदां विकपी जे. बी. बॉर्ल्स हांचेकडेन उमेदवारी करपाक सुरवात केली. १७९७त ताणें रसायनशास्त्राचो अभ्यास सुरू केलो. १७९८त तो टॉमस बेडोझ हाच्या क्लिफ्टनच्या मॅडिकल न्युमॅटिक इन्स्टिट्युशनांत सहाय्यक जालो आनी ताणें वेगवेगळ्या वायूंच्या श्वसनाक लागून जावपी परिणामांविशीं प्रयोग केले. 'Researches, Chemical and Philosophical, Chiefly Concerning Nitrous Oxide' (१८००) ह्या ताच्या पुस्तकाक खुबूच नामना मेळ्ळी. ताका लागून लंडनांत नव्यानूच स्थापन जाल्ल्या रॉयल इन्स्टिट्युशनांत रसायनशास्त्राचो व्याख्यातो म्हणून ताका आपोवन व्हेलो. उलोवप बरें आशिल्ल्यान तो व्याख्यातो म्हणून रोखडोच लोकप्रिय जालो.

१८०३ त ताची रॉयल सोसायटीचो वांगडी म्हणून निवड जाली. १८०२त आनी ते उपरांत १८१२ मेरेन दर वर्सा ताणें कृषी मंडळा मुखार कृषी रसायनशास्त्राविशीं व्याख्यानां दिलीं आनी त्या व्याख्यानांचेर आदारिल्लो Elements of Agricultural Chemistry (१९१३) हो ग्रंथ बरयलो.

सगळ्या विद्युत् घटांचे कार्य रसायनीक विक्रियेक लागून चलता आनी विरुद्ध विद्युत् भार आशिल्ल्या पदार्थांचो संयोग जाता, असो निश्कर्श ताणें काडिल्लो. ताचेवयल्यान सगळ्या पदार्थांचें विद्युत् विश्लेशण करून तांचें मुलद्रव्यांच्या स्वरुपांत विघटन करप शक्य आसा, अशें मत ताणें मांडलें. On Some Chemical Ageacies of Electricity ह्या १८०६त दिल्ल्या म्हत्वाच्या व्याख्यानाखातीर ताका इन्स्टिटयूट ऑफ फ्रान्सचें बोनापार्ट इनाम फावो जालें.

१८०७ त ताणें क्षारांसावन सोडियम आनी पोटॅशियम वेगळें केलें आनी १८०८त कॅल्शियम, स्ट्रॅान्शियम, बेरियम आनी मॅग्नेशियम हीं मूलद्रव्यां वेगळीं केलीं. ताणें बोरॉन, हायड्रोजन टेल्युरायड आनी हायड्रोजन फॉस्फायड हांचोय सोद लायलो. क्लोरीनाचें मूलद्रव्यात्मक स्वरूप प्रस्थापीत करून ताका 'क्लोरीन' हें नांव डेव्हीन दिलें.

१८१३त ताणें आयोडीन हें मूलद्रव्य आसा, अशें सिद्ध केलें. विद्युत् घट, कातडी कमावप आनी खनिज विश्लेशण ह्या वावराखातीर १८०५त ताका रॉयल सोसायटीचें कॉप्ली पदक मेळ्ळें आनी १८०७ त तो ते सोसायटीचो सचीव जालो. १८१३-१५ ह्या काळांत ज्वालामुखीविशीं अभ्यास करपाखातीर डेव्ही आनी मायकल फॅराडे हांणी युरोपांत भोंवडी केली. थंयसावन परत येतकच तांणी कोळशाचे खाणींत आसपी वायूक लागून जावपी स्फोटांचो अभ्यास केलो आनी अशा वायूचें अस्तित्व दाखोवपी सुरक्षा दिव्याचो सोद लायलो. तो दिवो तांच्याच नांवान वळखतात. ह्या वावराखातीर तांकां रॉयल सोसायटीचीं भांगराचीं आनी रम्फर्ड पदकां मेळ्ळीं. १८१२त ताका 'नायट' किताब मेळ्ळो. १८१८त ताका बॅरोनेट केलो. १८२०त रॉयल सोसायटीचो अध्यक्ष जातकच ताणें १८२७ मेरेन थंय काम केलें. विद्युत् आनी रसायनीक बदलांचे संबंद ह्या विशयावयल्या व्याख्यानाखातीर ताका रॉयल सोसायटीचें पदक दिलें. ताच्याच नांवान डैव्ही पदकूय सुरू केलें.

ताणें बरयल्ले ग्रंथ अशे - Elements of Chemical Philosophy (१८१२), On the safety lamp for Coal Miners (१८१८), Salmonia or days of fly fishing (१८२८), Consolations in travel (१८३०). ताचें सगळें लिखाण फुडें जॉन डेव्ही ह्या त्याच्या भावान णव खंडांनी उजवाडायलें.

– कों. वि. सं. मं.

## डोंगरे, नामदेव तुकाराम :

(जल्म : ५ जुलय १९२४, रायपूर, चंदवाड, नासिक).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी प्राथमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा कणकुंबीच्यान गोंयची शीम हुपून ताणें सुर्ला जाल्ल्या सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

## डोग्री भास :

ही भास पंजाबाचे उत्तर दिशेक आनी काश्मीराचे दक्षिणेक जम्मूच्या दोंगराळ प्रदेशांत उलयतात. संस्कृत उत्तर 'दुर्गर', प्राकृत 'दुग्गर' हांचेपसून डोग्रा हें नांव आयलां आसुंये. हे भाशेचें पंजाबी भाशेकडेन खूब सारकेपण आसा. ते खातीर ग्रिअर्सन हाणें डोग्रीक पंजाबीची पोटभास मानल्या. पूण सिद्धेश्वर वर्मा हाच्या मतान ती एक स्वतंत्र भास. डोग्री भास टाकरी लिपीचो उपेग करता. हे लिपीक टाकरी, टक्करी वा टॉकरी अशीय नांवां आसात. टक्क नांवाच्या आदिवासी लोकांवयल्यान हें नांव पडलां.

चड करून जम्मू भागांतली भास प्रमाण समजतात. हे भाशेचें व्याकरण पंजाबीक खूब लागीं आसा. नामांचीं सामन्यरुपां आनी कांय शब्दयोगी अव्यय हातुंतूच मुखेल फरक आसा.

ध्वनिवेवस्था - स्वर - अ, आ, इ, उ, ए, ओ.

व्यंजनां - क, ख, ग, घ, ङ, च, छ, ज, झ, ट,
ठ, ड, ढ, ण, त, थ, द, ध, न, प,
फ, ब, भ, म, य, र, ल, व, स, ह.

'ज' आनी 'य' तशेंच 'ब' आनी 'व' हांचेखातीर दरेकीं एकूच चिन्न आसा. फार्सीतल्यान आयिल्लो 'श' दाखोवपाखातीर 'छ' हेंच अक्षर वापरतात.

नाम - नामां पुल्लिंगी वा स्त्रीलिंगी आसतात. एकवचन आनी भोववचन तशेंच मूळरूप आनी सामन्यरूप हीं वेगळीं आसतात.

सर्वनाम - आऊं, मैं, में, 'हांव' - अस 'आमी'; तूं, 'तू' - तुस 'तुमी'; ओ, ओह, 'तो - ती - ते' ओ, ओह 'ते - त्यो - ती'.

क्रियापद - सादारणपणान इंडो - आर्यन भाशांभाशेन आसता. 'आसा' चीं रुपां लागून वेगवेगळीं कालदर्शक रुपां तयार जातात.

ही भास शौरसेनी प्राकृत भाशेपसून तयार जाली अशें कांय भाशाशास्त्रज्ञ मानतात. पूण हे भाशेचेर खश आनी दरद ह्या भाशांचोय थोडो प्रभाव दिसता.

– कों. वि. सं. मं.

## डोग्री साहित्य :

डोग्री साहित्याक, लोकसाहित्याची व्हड परंपरा आसा. तातूंत विरकथा, अद्भुत कथा आनी नितीकथा आसात. पूण आर्विल्ल्या डोग्री साहित्याची सुरवात स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत जाली.

महाराजा रणविरसिंह हाच्या काळांत डोग्री भाशेक आनी टाकरी लिपीक राजाश्रय फावो जालो. पूण सरकारी कामाबगर हेर लिखाणाखातीर तिचो उपेग जाल्लो दिसना. डोग्रीचें कांय प्राचीन साहित्य टाकरी लिपींत मेळटा. लिलावती ह्या संस्कृत गणितग्रंथाचें डोग्री रुपांतर पळयल्ल्याचो उल्लेख डॉ. बुल्हर हाणें केला. तशेंच कांय प्राचीन डोग्री शिलालेख आनी बायबलाचो डोग्री अणकारूय मेळ्ळा.

सुरवातीच्या काळांतलें आर्विल्लें डोग्री साहित्य म्हळ्यार दत्तू, लक्खू, गंगाराम, रामधन हांच्यो गीत-काव्यरचना आसात. हरदत्त हाचे 'डोग्री भजनमाला' (२ खंड) हिचेपसून डोग्री साहित्याची सुरवात विसाव्या शेंकड्याच्या तिसऱ्या दशकामेरेन फाटल्यान व्हरूं येता. ताचे पयलीं १८१८ वर्सा सेरामपूर मिशनान 'नव्या करारा'चो तशेंच कांय 'गॉस्पॅल्सा'चे आनी हेर ख्रिस्ती ग्रंथांचे डोग्रींत अणकार केल्ले. प्रा. गौरीशंकर .हाणें भगवद्‌गीतेचे डोग्रीत गद्य आनी पंडीत गौरीशंकर हाणें पद्य अणकार केल्ले. १९४४-४५ वर्साच्या अदमासाक जम्मूचे 'डोग्री संस्थेन' फुडाकार घेवन डोग्री साहित्याची चळवळ सुरू केली.डोग्री भास लोकप्रिय करप, तिची इतिहासीक आनी साहित्यीक परंपरा निर्माण करप, लोकसाहित्याचें संकलन करून तें उजवाडावप तशेंच हेर भाशांतल्या म्हत्वाच्या ग्रंथांचे डोग्री अणकार आनी नवी साहित्य - निर्मिती करप हे तांचे मुखेल हेत आशिल्ले. ह्याच उद्दिश्टांनी स्वातंत्र्या उपरांतचे डोग्री साहित्याचे यत्न प्रभावीत जाल्यात.

१९४५ वर्सा दिनूभाई पंत हाचो 'गुत्तलुन' हो काव्यझेलो उजवाडा आयलो आनी डोग्रींत काव्यरचना करपाची कवींक उर्बा मेळ्ळी. डोग्री साहित्य - इतिहासांतली ही एक म्हत्वाची घडणूक आसा. ह्या काव्यझेल्यांतली 'शहर पेहलो गे' ही पयली कविता जम्मूंतल्या घराघरांनी पावली. 'मंगु दी छबिल' हो ताचो दुसरो काव्यग्रंथ म्हळ्यार एक दीर्घकाव्य. १९४७ वर्सा ताणें 'वीर गुलाब' हें काव्य 'बार' म्हळ्यार पारंपारिक वीरगितांचे धर्तेचेर बरयलां. 'पहला फुल्ल' हो बी. पी. साठे हाचो कथाझेलो डोग्रींतलो पयलोच कथांझेलो. आपल्या ह्या कथांनी ताणें गांवगिरे जिणेचें चित्रण चितारलां. १९४९ वर्सा 'जागो दुग्गर' हो डोग्रींतल्या बारा कवींच्या वेंचीक कवितांचो तशेंच डोग्री लोकगितांचो झेलो.

१९५०-६० ह्या धा वर्सांचो काळ हो डोग्री साहित्याच्या विस्ताराचो

काळ म्हणून वळखतात. 'नमी चेतना' डोग्रींतलें पयलें म्हयन्याळें सुरू जालें. डोग्री कविता आनी डोग्री लोकसाहित्यावयले लेख विंगड विंगड संस्थांच्या वर्सुकी अंकांतल्यान उजवाडाक येवंक लागले. दुनी चंद हाचो डोग्री लोकगितांवयले समिक्षेवयलो दर्जेदार लेखांचो झेलो आनी 'ब्रह्मानंद संकीर्तन' हो ग्रंथ पब्लिकेशन डिपार्टमॅंटान उजवाडायलो. ह्याच काळांत गीतेचे आनीक दोन पद्य - अणकार, पाच कथांझेले, आठ लोकगितांचे आनी लोककथांझेले, तीन नाटकां हें साहित्य उजवाडा आयलें. जम्मूसावन 'एक हो राजा' हो डोग्री लोककथांझेलो आनी जित्तोची कथा 'अमर कथा' ह्या नांवान उजवाडा आयली.

१९५६ वर्सा जम्मू आनी कांग्रा सावन सुशीला कलाथिआचो 'खारे मिठ्ठे अथ्रूँ' आनी एम्. एस्. रंधावाचो 'फोक सॉंग्स ऑफ कांग्रा' हे दोन लोकगितांझेले उजवाडा आयले. ह्याच काळांत बन्सीलाल गुप्ताचो 'डोग्री लोककथा' हो झेलो उजवाडा आयलो. १९६० वर्सा हिमाचल प्रदेश सरकारान लोकप्रिय अशा वेंचीक ८७ गितांचो एक संग्रह उजवाडायलो.

जम्मू आनी काश्मीर अकादमीन (जे. के. ॲकॅडमी) स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळासावन १९५९ वर्सा मेरेन रचिल्ल्या डोग्री काव्याचीं पांच संकलनां १९५९ वर्सा 'डोग्री पोएट्स ॲंड देर पोएट्री' हे माळेंत उजवाडायलीं. तातूंत दरेका कवीची वळख, देवनागरी लिपींत ताची रचणूक आनी तिचो हिंदी अणकार आसा. 'निहारिका' ह्या पयल्या संकलनांत दत्तू, हरदत्त ह्या सुरवेच्या णव कवींच्यो रचना आसात. 'अरूणिमा' ह्या दुसऱ्या संकलनांत रघुनाथ सिंग संन्याल, किशन समैलपुरी आनी परमानंद अलमस्त ह्या तीन ज्येश्ठ कवींच्यो कविता आसात. 'प्रातःकिरण' ह्या संकलनांत दिनू भाई पंत, रामनाथ शास्त्री आनी शंभूनाथ ह्या कवींच्यो रचना आसात. चवथें संकलन 'मागधूलि'. हातूंत यश शर्मा, ओमकार सिंग आवारा आनी तारा समैलपुरी ह्या नवोदीत कवींच्यो दर्जेदार रचना आसात.

धर्मीक प्रकारच्या डोग्री साहित्यांत गीतेचे आनीक दोन पद्य अणकार, वेदान्ताचेर पांच पदांझेले, कांग्राच्या मेजर ब्रिजलाल हाच्या स्तोत्रांचे तीन झेले, सत्यनारायण व्रतकथा हांचो आस्पाव जाता. ब्रह्मानंद स्वामी हाची हातूंत म्हत्वाची रचना आसा.

१९६०-७० ह्या धा वर्सांच्या काळांत डोग्री काव्याचे सुमार १०० ल्हान-व्हड काव्यग्रंथ उजवाडा आयले. ह्या काळांत शंभूनाथ, वेद पाल दीप, परमानंद अलमस्त, पद्मा आनी मधुकर हांचो दरेकल्याचो एकेक संग्रह उजवाडा आयलो. रामनाथ शास्त्री हाची काव्यानिमिर्ती भरपूर आसून गुणवत्तेनूय बरी आसा. नव्या कवीं भितर रामलाल शर्मा, चरण सिंग, नरसिंग देव जंवाल, मोहनलाल सपोलिया, शिवदीप, पीयूष गुलेरी आनी गौतम व्यथित हांचे दरेकल्याचो एक वा दोन संग्रह उजवाडा आयल्यात. ह्या धा वर्सांनी 'गझल' रचना खूब लोकप्रिय जाली. चडशा कवींनी आपली रचना गझल प्रकारांत केली. वेद पाल आनी नरसिंग देव (एन. डी.) जंवाल हाणीं आपले गझल संग्रह उजवाडायले. वेद पाल दीप ह्या गझलकाराक भोवमानान 'डोग्रीचो गालीब' म्हण्टात. शंभूनाथ हाणें 'डोग्री रामायण' बरोवन डोग्री काव्यांत मोलाची भर घाल्या. परमानंद अलमस्त हाचें 'एक बूंदैगी तरसाई पैंछी' (नागरी लिपींत) आनी 'सुनक' (फार्सी लिपींत) हे संग्रह आसांत. मधुकर हाचो 'दोला कूं थप्पेआ' हो दर्जेदार संग्रह आसा.

पीयूष गुलेरी हाचो 'मेरा देश म्हाचल' हो संग्रह आनी गौतम व्यथित हाचो 'चेते' (१९६९) हे संग्रह लोकागितांचे धर्तेचेर आसात. पद्मा हिच्या 'मेरी कविता मेरे गीत' ह्या संग्रहाक १९७१ वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार लाबला.

आर. एन. शास्त्री हाचो 'धरती दा दिन' (१९७१), ओ. पी. शर्मा हाचो 'तन्दान' आनी एन्. डी. जंवाल हाचो 'कोराज' हे हालींचे दर्जेदार काव्यझेले आसात. जयदेव किरण हाचो 'पथ्थरो-रे-मन्हु', रिखी भारद्वाज हाचो 'कूंजन द कूक' हेय उल्लेख करपासारके झेले आसात. जम्मूच्या दोंगराळ प्रदेशांतल्या धा कवी आनी एक कवयित्री हांचो 'धारें दे अले' हो हालींचो कविता, गीत आनी गझलांचो संग्रह.

कृष्ण समैलपुरी हाचो 'मेरियाँ डोग्री गझलाँ' आनी अश्विनी मंगोत्राचो खुबतियाँ' हे गझलसंग्रह तशेंच जीतेंद्र उधमपुरी हाचो 'चाननी' हो काव्यझेलो उल्लेखनीय आसात.

१९५०-६० ह्या धा वर्सांनी डोग्री कथा-कादंबरी-नाटक हांची खूब बरी उदरगत जाली. ह्या काळांत सात कथालेखकांचे पाच कथांझेले उजवाडा आयले. धरमचंद प्रशांत हाणें डोग्री आख्यायिका आनी लोकसाहित्यांतल्या विशयांचेर आदारीत कथा बरयल्यो. ललिता मेहता, कविरत्न हाणीं गांवगिऱ्या बायलांचे जिणेचेर कथा बरयल्यो. रामकुमार अब्रोल, मदन मोहन शर्मा आनी नरेंद्र खजुरिया हांणीय बरें कथालिखाण केलें. वेद राही हाच्या कथांनी मानवतावाद, मानसशास्त्रीय दृश्टिकोन आनी आकर्शक रचनातंत्र दिसतात. मदन मोहन हो डोग्रींतलो श्रेश्ठ कथाकार आसून 'दुध, लहू ते जहर' हो ताच्या पांच उत्कृश्ट कथांचो संग्रह खूब म्हत्त्वाचो आसा. एन्. डी. जंवाल, वत्स विकल, शिवकुमार शर्मा, चंचल शर्मा, ओ.पी. शर्मा, बंधू शर्मा हाणीं नवे डोग्री कथेचें आनी नव्या कथाकारांच्या पंगडाचें फुडारपण केलें. नरेंद्र खजुरिया हाच्या 'नील अंबर काले बादल' ह्या कथांझेल्याक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मरणा उपरांत मेळ्ळो (१९७०). ओ. पी. शर्मा हाचे 'सुक्का बारूद' (१९७१) आनी 'लोक गै लोक' (१९७१) हे कथाझेले आनी ओम् गोस्वामी हाचे 'नैन्ह ते पोते' (१९७१) आनी 'हाशिये हे नोट्स' हे कथांझेले खाशेले आसात. रामनाथ शास्त्री हाचो 'बदनामी दी छन' आनी बंधू शर्मा हाचो 'परशामे' हे कथाझेले उल्लेख करपासारके आसात.

नरेंद्र खजुरिया, मदन मोहन, वेद राही ह्या तीन कादंबरीकारांनी डोग्री कादंबरी लिखाणाक सुरवात केली. नरेंद्र खजुरियाची 'शानो', मदन मोहन हाची 'धाराँ ते धूराँ' आनी वेद राही हाची 'हार बेरि ते पत्तन' ह्यो त्यो तीन कादंबऱ्यो आसात. वत्स विकल हाचे 'फूल्ल बिना डाली' हे कादंबरीक १९७२ वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार फावो जाला. पिशोरीलाल गुप्ता हाची 'जिस ऐल्लइ न्हेरा पेयि गया' आनी शकुंतला शर्माची 'बद-सीस' ह्यो हालींच्यो कादंबऱ्यो आसात.

रामनाथ शास्त्री हाचें 'बारोबारी' आनी डी. सी. प्रशांत हाचें 'देव जनम' हीं नभोनाट्यां खूब गाजलीं. रामनाथ शास्त्री, दिनू भाई पंत आनी रामकुमार अब्रोल हाणीं संयुक्तपणान 'नमा ग्रान' आनी वेद राही हाणें 'धारें दे अथ्रूँ' हीं स्वतंत्र नाटकां बरयलीं. १९६०-७० ह्या काळांतली दिनू भाई पंत हाचें 'सरपंच' आनी रामकुमार अब्रोल हाचें 'देहरी' हीं दोन नाटकां म्हत्वाचीं आसात. प्रेमचंद हाचे मूळ हिंदी कथेचें 'देहरी' हें नाटचरुपांतर. ह्या धा वर्सांनी सुमार तीस एकांकिका आनी नभोनाट्यां बरोवप जालीं. 'एक जनम होर' हो मदन मोहन हाच्या पांच वेंचीक एकांकिकांचो संग्रह आसून 'जनावर' हें ताचें रंगमाचयेखातीर बरयलें

प्रभावी नाटक.

'रेखा', जे. के. अकादमीचें तीन्हयनाळें 'शिराझ', 'नभी चेतना' ह्या नेमाळ्यांनी डोग्री गद्य-लिखाणाक खूब हातभार लायला. 'डोग्री साहित्यदर्पण' हो १९६७ वर्सा जम्मूंत भरिल्ल्या पयल्या डोग्री लेखकांचे परिशदेंत वाचिल्ल्या निबंदांचो संग्रह आसा.

लक्ष्मीनारायण हाचो 'साहित्य चर्चा' हो ग्रंथूय म्हत्वाचो आसा. चंचल शर्मा आनी चंपा शर्मा हाणीं 'डोग्री काव्यचर्चा' हो समिक्षाग्रंथ बरयलो. तशेंच विश्वनाथ खजुरिया हाचो 'सप्तक' हो दुसरो निबंदसंग्रह उल्लेख करपासारको आसा.

डोग्री पत्रकार मुल्क राज अरफ हाणें लाला हंसराज हाचें चरित्र बरोवन डोग्री चरित्र लिखाणाचें मुळावण घालें. तशेंच, डोग्री साहित्यांत भोंवडेवर्णन, यादी आनी हेर स्फूट लिखाण जालां. बाल साहित्यांत नरेंद्र खजुरिया हाचो 'रोचक कहानियाँ' हो कथांझेलो आनी 'अस भाग जगाने आले आन' हो एकांकिका संग्रह उल्लेखनीय आसात. आर्विल्ल्या भारतीय भाशांतले तेच भाशेन संस्कृत, प्राकृत, इंग्लीश, रशियन आनी ह्या भाशांतल्यो कांय ग्रंथांचे डोग्रींत अणकार जाल्यात.

जे. के. अकादमीन डोग्री लोकगितांचे स आनी लोककथांचे चार संग्रह उजवाडायल्यात. डॉ. करणसिंग हाणें 'शॅडो अँड सनलायट' हो डोग्री लोकगितांचो संग्रह इंग्लिशींत उजवाडायला. जे. के. अकादमीन ५०० डोग्री म्हणी तशेंच ६,००० डोग्री वाक्प्रचारांचो कोश उजवाडायला. ह्या दोनूय कोशांचें संकलन आनी संपादन तारा समैलपुरी हाणें केलां.

– कों. वि. सं. मं.

**डोमाक, गेरहार्ट :** (जल्म : ३० ऑक्टोबर १८९५, लागो ब्रांडनबुर्क; मरण : २४ एप्रिल १९६४, बरबर्ग – अस्तंत जर्मनी).

जर्मन विकृतीविज्ञानीक आनी सुक्ष्मजंतूविज्ञानिक. कील विद्यापिठांत शिक्षण घेता आसतना पयलें म्हाझूज सुरू जाल्ल्यान ताणें सैन्यांत नोकरी धरली. फुडें झुजा उपरांत १९२१त ताणें एम. डी. पदवी मेळयली. कांय काळ ई. होपेझायलर ह्या रसायनशास्त्रज्ञाचो सहाय्यक म्हणून काम करतकच १९२४त तो ग्रायफ्सव्हाल्ट विद्यापिठांत विकृतीविज्ञानाचो प्रपाठक जालो. फुडल्या वर्सा म्युन्स्टरचे विकृतीविज्ञानिक संस्थेंत सामान्य विकृतीविज्ञान आनी विकृतीविज्ञानीक शरीर ह्या विशयांचो प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९२७त आय. जी. फार्बेन इंडस्ट्री (वापर) ह्या रंजक तयार करपी कंपनीच्या व्हुपर्टाल-एल्बर्फेल्ट हांगाच्या प्रायोगिक विकृतीविज्ञान आनी सुक्ष्मजंतूविज्ञान ह्या विशयांच्या प्रयोगशाळेचो तो संचालक जालो. फुडें १९५८त तो परत म्युन्स्टराक प्राध्यापक जालो.

नव्या रंजकांविशीं रसायनचिकित्सेचे नदरेन संशोधन करता आसतना डोमाक हाच्या वांगड्यांनी एक नवें संयुग तयार केलें आनी ह्या संयुगाक ताणें 'प्रॉन्टोसील सब्रम' अशें नांव दिलें. हें सल्फॉनामायडयुक्त संयुग हुंदरांतल्या मालगोलाणू (स्पेट्रोकॉकस) जंतूसंसर्गाचेर प्रभावी आशिल्ल्याचें आनी तें उणें विखाळ आशिल्ल्याचें कितलेशेच प्रयोग करतकच डोमाक हाच्या लक्षांत आयलें. हें संयुग ताणें स्वताचे चलयेक टांचणी तोपिल्ल्यान जाल्ल्या खर मालगोलाणू जंतूसंसर्गाचेर यशस्वी रितीन उपचाराखातीर वापरलें. ह्या सोदाची वाच्यता मात १९३५ मेरेन करूंक नाशिल्ली. वैजकी शास्त्रांत ह्या सोदाक लागून रसायनचिकित्सेचें यूग सुरू जालें. डोमाक हाच्या सोदाक लागून न्युमोनिया, बाळंत रोग, कातीचे विकार आदी भयांकृत दुयेंसांच्या प्राग्नुमानांत व्हडलो बदल घडून आयलो. डोमाक हाणें कर्करोग आनी क्षयरोग हांचेरूय रसायनचिकित्सेचे नदरेन संशोधन केलां.

प्रॉन्टोसील ह्या पयल्याच सुक्ष्मजंतू विरोधी सल्फा वखदाच्या सोदा खातीर ताका वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञान ह्या विशयाचो १९३९ वर्साचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. पूण नाझी सत्ताधाऱ्यांनी डोमाक हाका हो पुरस्कार स्वताच न्हयकारिल्ल्याचें पत्र बरोवपाक भाग पाडलो. फुडें १९७४त डोमाक हाका नोबॅल भांगरा पदक दिलें, पूण पुरस्काराची रक्कम नोबॅल फाउंडेशनाक परत केल्ली आशिल्ल्यान ती ताका मेळूंक शकलीना. ताका आनीकूय जायतें भोवमान फावो जाल्यात.

– कों. वि. सं. मं.

**ढ :** 'ट' वर्गांतलो चवथो वर्ण आनी देवनागरी वर्णमाळेंतलें चवदावें व्यंजन. देवनागरी लिपीचे वर्णमाळेंतलें 'ढ' हें एकूच अक्षर अशें आसा, जें आपल्या मूळ स्वरुपांतूच आजुनूय कायम आसा. फकत ताच्या माथ्यावयलो भाग मूळच्या अक्षरा परस चड बागिल्लो आसा.

कामधेनू तंत्रांत ढकाराचें स्वरूप आसा तें अशें –

ढकारं परमाराध्यं या स्वयं कुण्डली परा ।
पञ्चदेवात्मकं वर्णं पञ्चप्राणमयं सदा ॥
सदा त्रिगुणसंयुक्तं आत्मादितत्त्वसंयुतम् ।
रक्तविद्युल्लताकारं ढकारं प्रणमाम्यहम् ॥

अर्थ – 'ढ' वर्णाची आराधना करची. तो स्वता परा कुंडली आसा. 'ढ' हो पंचदेवात्मक आनी पंचप्राणमय आसा. तातूंत तीनूय गूण आसून तो आत्मा आदी तत्त्वांनी युक्त आसा. तांबडे विजेचो आकार आशिल्ल्या ढकाराक हांव नमस्कार करतां.

'ढ' चो विकासक्रम असो आसा –



मूर्धा हें 'ढ' चें उच्चारणस्थान आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**ढाक्का :** बांगला देशाची राजधानी. लोकसंख्या ३४,४०,१४७ (१९८१). ह्या वाठारांत भरपूर ढाकाची (पळसाची) झाडां आशिल्ल्यान वा ढाकेश्वरी हे देवीच्या नांवावयल्यान ह्या गांवाक ढाका (डाक्का) हें नांव पडलां आसूये अशें म्हण्टात. १६०८ ते १६३९ आनी १६६० ते १७०४ मेरेन हें शार मुसलमानांच्या बंगाल सुभ्याची राजधानी आशिल्लें. त्या काळांत दर्यावयल्या वेपाराक लागून ह्या शाराची खूब नामना आशिल्ली आनी तेच खातीर इंग्लीश, फ्रेंच आनी डच वेपारी हांगा येताले. १७६५त ह्या शाराचेर ब्रिटिशांचो शेक आयलो. १७०५त हांगाची राजधानी मुर्शिदाबादेक गेल्ल्यान ढाक्काचें म्हत्व उणें जालें. पूण १९०५ ते १९१२ ह्या काळांत उदेंत बंगाल आनी आसामाची राजधानी हांगा आयिल्ल्यान ह्या शाराक परतें म्हत्व आयलें. १९४७त उदेंत बंगालाची आनी १९५६त

उदेंत पाकिस्तानाची राजधानी जाल्ल्यान ह्या शाराची खुबूच उदरगत जायत गेली. फुडें १९७१त ढाक्का बांगलादेशाची राजधानी जाली. ह्या शाराचो वाठार पिकाळ आशिल्ल्यान हांगा तांदूळ, ताग, तेलबियो, ऊंस, कापड आदी उत्पन्नाची व्हड बाजारपेठ आसा. ह्या शाराचे तीन भाग पडटात. दाट वस्ती आशिल्लें अशीर रस्त्यांचें पोरणें ढाक्का, आर्विल्ले वस्तीचें आनी रूंद रस्त्यांचें रमणा तशेंच फाळणी उपरांतचो आनी कारखान्यांचो वाठार अशे तीन भाग जातात. हांगाचीं शिंपल्यांचीं कांकणां आनी हेर अलंकार तशेंच भांगर आनी रुप्यावयलें नाजूक नक्षीकाम हांची नामना आसा. हांगासल्ल्या ल्हान व्हड कारखान्यांतल्यान रसायनां, रबर, कांचसामान, फस्कां, बर्फ, विजेचें सामान आदी वेगवेगळ्या वस्तूंचें उत्पादन जाता. ह्या शारांत तागाचे आनी कापसाचे गट्ठे बांदपाचे कारखाने, अन्न प्रक्रिया, तांदूळ, तेलगिरण्यो, कापडगिरण्यो, रेल्वेयंत्र सामुग्रीची निर्मिती, कातडी कमोवप आदी तरेकवार कारखाने आशिल्लयान बांगलादेशाचें तें एक मुखेल केंद्र जालां. हांगाचें जामदानी (बऱ्या प्रकारचें मलमल), भरतकाम, रेशीम, जडजवाहीर हांची खूब नामना आसा. दक्षिणेकडेन १६ किमी. अंतराचेर आशिल्लें नारायणगंज हें हांगाचें आयात निर्यातीचे बंदर. पुर्विल्लया काळासावन हांगाचे मलमलीक संवसारीक नामना आसा. एकुणिसाव्या शतमानांत यंत्रनिर्मित ब्रिटीश कापडाकडेन सर्त जाल्ल्यान मलमलाच्या धंद्याक व्हडलेंशें महत्व उरलेंना.

बांगलादेशांतलें हें एक मुखेल शिक्षणीक केंद्र. १९२१त स्थापन जाल्लें ढाक्का विद्यापीठ हांगा आसा. ताका जोडिल्लीं शासकीय म्हाविद्यालयां, स्थापत्य आनी तंत्रिकी विद्यापीठ, वैजकी म्हाविद्यालयां, अणुकेंद्रीय प्रशिक्षण आनी संशोधन केंद्र, ग्रंथालय, शेतकी आनी ताग संशोधन केंद्र आदी जायत्यो शिक्षणीक संस्था हांगा आसात.

हांगा ढाकेश्वराचें हिंदू देवूळ, पुर्तुगेजांची तेजगांव इगर्ज, लालबाग किल्लो, बिबीपरीचें थडगें, बडा आनी छोटा कत्रा (धर्मशाळा), शिया पंथीयांचें हुसेनी दालन हीं सतराव्या शतमानांतलीं बांधकामां हांगा आसात. बैत उल् मुकर्रम आनी हेर सुमार ७०० मशिदी ह्यो पंदराव्या शेंकड्यांतल्यो आसात. हांगा कांय ब्रह्मी आनी थाई धर्मीक स्थानां शारांत आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**ण :** 'ट' वर्गांतलो पांचवों वर्ण आनी देवनागरी वर्णमाळेंतलें पंदरावें व्यंजन. ह्या अक्षराचें पयलें रूप अशोकाच्या शिलालेखांत आसा. दुसरें रूप इ.स.च्या पयल्या आनी दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या कुशानवंशी राजांच्या वेळावयल्या मथुरा, सारनाथ, चारगांव हांगाच्या लेखांत आसा. दुसऱ्या पसूनच तिसरें रूप तयार जालें. चवथें रूप इ. स. ५३२च्या सुमाराक राजा यशोधर्मा हाचे कारकिर्दींतल्या मंदसौरच्या लेखांत मेळटा. पांचवे रूप जपानांतल्या होर्युजीच्या मठांत मेळिल्ल्या 'उष्णीषविजयधारिणी' ह्या ग्रंथांत आनी पुर्विल्ल्या हातबरपांत मेळटा.

'ण' च्या रुपाचो विकासक्रम असो आसा –



'ण' च्या अक्षरविकासांतलें निमाणचें रूप हें दक्षिणेकडले नागरी लिपींतूच प्रचलीत आसून हेर कडले नागरी लिपींत सवें रूप रूढ आसा.

वर्णोध्दारतंत्रांत हाचें स्त्रीरुपी ध्यान अशें सांगलां –

ध्यानमस्य णकारास्य प्रवक्ष्यामि च तच्छृणु ।<br>
द्विभुजां वरदां रम्यां भक्ताभीष्टप्रदायिनीम् ॥<br>
राजीवलोचनां नित्यां धर्मकामार्थमोक्षदाम् ।<br>
एवं ध्यात्वा ब्रह्मरुपां तन्मन्त्रं दशधा जपेत् ॥

**अर्थ –** 'ण' ह्या वर्णाचें ध्यान हांव सांगता तें आयक. हे देवतेक दोन हात आसात. ती सोबीत आनी वरदात्री आसून भक्तांक मागिल्ल्यो वस्ती दिता. तिचे दोळे कमळाचे आसून ती चतुर्विध पुरूषार्थांची प्राप्ती करून दिता. अशे तरेन ब्रह्मरूप 'ण' चें ध्यान करून धा खेपे तिचो जप करचो.

मूर्धा हें हाचें उच्चारणस्थान आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**तंजावर :** तमीळनाडू राज्यांतल्या ह्याच नांवाच्या जिल्ह्याचें आनी तालुक्याचें मुखेल थळ. लोकसंख्या ४५,२६,७०९ (१९९१). हें शार दक्षिण रेल्वेच्या मद्रास – तिरुचिरापल्ली ह्या फांट्यावयलें प्रस्थानक आनी रस्त्याचें केंद्र आसून मद्रासाचे नैर्ऋत्येक ३५१ किमी. अंतराचेर तुतिकोरिनसावन ३६१ किमी. आनी कुंभकोणम्‌सावन ३९ किमी. अंतराचेर कावेरी न्हंयेचे देगेर वसलां. एक सांस्कृतिक केंद्र आनी पर्यटन थळ म्हणून ह्या शाराची नामना आसा. हाचें क्षेत्रफळ ३,६०३ चौ. किमी. आसा.

तंजावर ह्या नांवाविशीं पुराणांत एक कथा आसा ती अशी : तंजण नांवाचो एक राक्षस हांगा रावन हांगाच्या लोकांक खूब त्रास दितालो. देव आनी राक्षसांचें जेन्ना झूज जालें तेन्ना विष्णून नीलमेघ पेरूमाळ हाचें रूप घेवन ताका जिवो मारलो. मरतना ताणें देवाक विनंती केली, आपूण ज्या स्थानार रावतालो ताका आपलें नांव दिवंचें. तेचपरी पवित्र क्षेत्र म्हणून ताची नामना जावंची. विष्णून ताची मागणी मान्य केली. तेन्नासावन ह्या थळाक तंजावर (तंजपूर ह्या संस्कृत शब्दाचें तमीळ रुपांतर) हें नांव मेळ्ळें.

इ. स. च्या णवव्या शतमानांत विजयालय चोळ हाणें मुत्तरैयर वंशाच्या राजाकडल्यान तंजावराचेर जैत मेळयलें आनी थंय आपली राजधानी स्थापली. चोळ राजवंशान हांगा सुमार ४०० वर्सां राज्य केलें. पूण त्या वंशांतल्या राजेंद्र चोळ हाणें आपली राजधानी गंगैकोंडचोळपुरमाक व्हेली. फुडें इ. स. १५४९ मेरेन तंजावराचेर पांड्य वंशाचें राज्य चलतालें. उपरांत विजयनगर राज्यांतलो एक सेनापती शिवप्पा नायक हाणें तंजावराक स्वतंत्र राज्य स्थापलें. इ. स. १६७३ मेरेन हें राज्य चललें. १६७४त शहाजी राजाचो पूत व्यंकोजी भोंसले हाणें थंय आपली सत्ता स्थापली. १८५५ मेरेन हांगा भोंसल्यांचें राज्य आशिल्लें. उपरांत तें इंग्लीशांचे सत्तेखाल गेलें.

हांगा सुमार ७४ देवळां आसून तातूंतल्या बृहदीश्वराच्या देवळाची चड नामना आसा. चोळ वंशांतलो राजा राजराज (पयलो) हाणें इ. स.१०१०त हें देवूळ बांदलें. द्रवीड शिल्प शैलीची ही एक बरी देख. ह्या देवळाचे दोन भाग जातात. भितल्ल्या भागांत मुखेल देवूळ आसून ताचे गर्भकूड, अर्दमंडप, महामंडप, स्थापनामंडप, नृत्यमंडप आनी वाद्यमंडप अशे भाग जातात. गर्भघराचेर १९० फूट उंचायेचें १३ मजली विमान आसा. ह्या विमानाचेर अखंड वज्रपाशाणाचें घुमटाकृती शिखर आनी

ताचेर तांब्याचो कळस आसा. देवळाचे गर्भकुडींत एक व्हड शिवलिंग आसून एका कोनशाक नटराजाची सुंदर मूर्त आसा. ह्या देवळाचेर एक शिलालेख कोरांतिल्लो आसा जाका इतिहासीक नदरेन खूब म्हत्व आसा. हांगा आशिल्लीं शिवगंगा, तळें, विजयानगर किल्लो, सरफोजीचो राजवाडो आनी सरस्वती महाल ग्रंथालय हीं थळां पळोवपासारकीं आसात. हांगा आशिल्ल्या ग्रंथालयांत वेगवेगळ्या विशयांवयले आनी वेगवेगळ्या भासांतले सुमार ३०,००० ग्रंथ आसात. नाटक, संगीत आदी कलांचेंय हें एक व्हड केंद्र. हांगासल्लें रस्मी आनी सुती परंपरीक हातमागावयलें कापड, भांगरा आनी रुप्यावयलें नक्षीकाम, धातूकाम, गालिचे आदींची भारतभर नामना आसा. हांगां शाबू, सुवासीक द्रव्यां आनी वाद्यां (विणा) तयार करप, आदी वेगवेगळे वेवसाय चलतात.

तंजावरच्या भोंसले घराण्यांत सरफोजी (इ. स. १७९८ - १८३२) नांवाचो व्हड राजा जावन गेलो, ताचें भुरगेपण एका विद्वान मिशनरीच्या सहवासांत गेल्ल्यान ताका इंग्लीश, गणीत, इतिहास, भुगोल आदी विशयांचो अभ्यास जालो. तेचपरी ताका अस्तंती शिक्षणाविशीं आवड निर्माण जाली. ताणें आपल्या राज्यांत शिक्षणाचो प्रसार केलो आनी जायत्या पंडितांक संस्कृत ग्रंथ, काव्यां आनी नाटकां रचपाक स्फूर्त दिल्ली. सरफोजीक जायत्या भाशांचें ज्ञान आशिल्लें तशेंच वैजकी, ज्योतिशशास्त्राचीय विद्या ताका अवगत आशिल्ली. तंजावरच्या राजवाड्यांत सरस्पती महाल नांवाचें जें नामनेचें ग्रंथालय आसा तें सरफोजीनच तयार केलें. ताणें वेगवेगळ्यो शाळा स्थापन केल्ल्यो तशेंच वेगवेगळीं पाठ्यपुस्तकां बरयल्लीं आनी गांवांत एक छापखानोय सुरू केल्लो. सरफोजीन बृहदीश्वर देवळांतल्या प्राकाराचे वण्टीचेर जगांतलो सगल्यांत व्हड असो एक शिलालेख कोरांतून दवरला. ताचीं ११० छापी पानां जाल्यांत. त्या शिलालेखांत सरफोजीच्या चिटणिसान भोंसले घराण्याचो पुराय इतिहास मराठी भाशेंत बरोवन दवरला. सरफोजीच्या राजवाड्यांत सुंदर मुर्ती, चित्रां, कलाकुसरीच्यो हेर जायत्यो वस्तू हांचो संग्रह केला. त्या राजवाड्यांतलो संगीतमहाल सरफोजीनच बांदिल्लो आसून ध्वनीशास्त्राक धरूनूच ताची रचना केल्ली आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**तंत्रविद्या** : विद्येची एक शाखा. प्रचलीत अर्थान, उद्देशान आनी व्याप्तीन एक वा अनेक तांत्रिक विज्ञानाची शाखा. तंत्र म्हणजे पध्दत वा प्रणाली आनी विद्या म्हणजे पध्दतशीर अभ्यास आनी शिस्तबध्द सोद. खंयचेय एके शाखेत ज्ञात आशिल्लें गिन्यान, हाताकडेन अशिल्ली सामुग्री हांचो आदार घेवन गरजे नुसार मुखावयली नवी निर्मिती करपाची प्रक्रिया.

इंग्लीश भाशेंत हे विद्येक टॅक्नोलॉजी (Technology) म्हण्टात. टॅक्नोलॉजी हें उतर (Techne Logos) ह्या मूळ ग्रीक उतरावेल्यान आयलां. Techne म्हणजे कसब, पद्दत आनी लोगोस म्हणजे शब्द, भाश्य. टॅक्नोलॉगोस म्हणजे कसबाचेर केल्लो विचार.

तंत्रविद्या ही आधुनिक अर्थान मुखेलपणान यांत्रिकरण विद्या आसा. हे विद्येंत मनशाच्या अर्थीक आनी भौतिक वेव्हाराकडेन संबंदीत अशा विज्ञान शाखेंतल्या नवे मांडावळीचो, सोद, कल्पनांचो, नवनिर्मितीचो आस्पाव जाता.

**इतिहास** : तंत्रविद्येचो इतिहास हो गिन्यानाच्या दर एका मळावेलो तांत्रिक निर्मितीचो चडश्या क्रमांकाचो आलेख अशें म्हणू येता. ह्या आलेखांत कांय गजालींचे बाबतींत सुरवातीचो बिंदू थेट पुरातन काळांत मेळटा तर कांय गजालींचे बाबतींत तो उपरांतच्या काळांत मेळटा. तंत्रविद्येंत आस्पावपी घटकांचो आवांठ खूब व्हड आशिल्ल्यान सगळ्याच घटकांचो इतिहास दिवप शक्य ना. पुराय इतिहास सदळपणान चार कालखंडांनी वांटून घालूं येता. ते कालखंड अशे :

(१) पुरातन काळ वा इतिहासपूर्व काळ (अश्मयुग ००० - ३००० ख्रि. आदीं)

(२) मध्ययुग (इ. स. ५०० - १५००)

(३) उद्येगीक क्रांतीयुग (१७५० - १९००)

(४) विसावें शतमान

**१) पुरातन कालखंड :** पुरातन कालखंडाचें (पाशाणयुग) पुराश्मयुग आनी नवाश्म युग अशे दोन वांटे करूं येतात. ह्या कालखंडांतल्या इतिहासांत फातर, धातू (तांबें, काशें, लोखंड) हांचो सोद आनी उपेग, उज्याची निर्मिती आनी उपेग, जनावरांचें पाळप आनी उपेग, प्राथमिक गरजेच्या आयुधांची निर्मिती, शेती, प्राथमिक स्वरूपाची घर बांदावळ, हांचे तंत्रविद्येचो उगम जालो. तातूंतल्या तातूंत नवाश्म युगांत तो चड जालो.

**२) मध्ययुग :** नवप्रवर्तन (Innovation) ही ह्या कालखंडाची प्रेरक शक्ती जावन आसा. मजुरा जाग्यार घोड्यांचो वापर, उदक (पाणचक्की) आनी वारो (पवनचक्की) हांच्या सामर्थ्याचो उपेग, शाबणाची निर्मिती, दारूगुळ्याची निर्मिती, समुद्री प्रवासाचीं साधनां, घड्याळाची निर्मिती, स्टीम इंजीन, खनीज प्रक्रिया, रसायनशास्त्र हांची तंत्रविद्येंत भर पडली. ह्याच कालखंडांत पाश्चिमात्य जगांत जाल्लें प्रबोधन (Renaaissance) हें तंत्रविद्येक पूरक थारलें.

**३) उद्देगीक क्रांतीयुग** (१७५० - १९००) : उद्देगीक क्रांतीन तिची गरज म्हणून तंत्रविद्येंतय क्रांती घडोवन हाडली. उद्देगीक क्रांती १८ व्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत, सुरवातेक इंग्लंडांत सुरू जावन मागीर संवसारभर पातळिल्लीं आसली आनी तिणें तंत्रविद्येचे क्रांतीक चालना दिल्ली आसली तरी उद्देगीक क्रांती आनी तंत्रविद्या क्रांती ह्या दोनांचींय मुळां आदल्या कालखंडांत रुजिल्लीं दिसतात. उद्देगीक क्रांतीच्या मानून घेतिल्ल्या कालखंडांत ह्या दोनूय क्रांतींक गती मेळून तांचो विकास नेटान जालो.

ह्या कालखंडातलें विशेश योगदान म्हळ्यार विद्युत् शक्तीचो वापर, खनिज तेलाचो वापर,लोखण आनी तिख्याच्या उद्येगांत कोळशाचो वापर, कापड उद्येगांतली सुदारणा, पूल बांदावळींत नवे प्रयोग, आगगाडयेचे येरादारीची सुरवात, टेलेग्राफ आनी टेलेफोनांचे सोद आनी वैजकी सुविधांत सुदारणा.

**४) विसावें शतमान** (१९०० - १९४५) : विमान सेवा, रॉकेट आनी आंतरग्रह भ्रमण, इलेक्ट्रॉनीक, अणुऊर्जा, एंटिबायोटिक्स, कीटक नाशकां आनी हांच्या वरवीं निर्माण जाल्ले कल्पनेभायले समाजीक राजकी पर्यावरणीक प्रश्न.

तंत्रविद्येचो इतिहास म्हणजे आदिमानवापसून वर्तमानकालीन मानवामेरेन आपली परिस्थिती सुदारून मानवान आपली जीण चड सुखी करपाचे नदरेन केल्ल्या यत्नांचोच इतिहास जावन आसा. ह्या

हजारांनी वर्सांच्या काळांत आनी धर्तरेवेल्या भूभागांत तंत्रविद्येंत जाल्ले उदरगतीचो आढावो घेवप ही एक अशक्यच गजाल. हाका मुखेल अडचण म्हणजे हालींच्या दोन - तीनशें वर्सांच्या काळाआदीं केल्ल्या यत्नांची म्हायती मेळना. पूण पुर्विल्ल्या काळांतल्या होवऱ्यांतल्या चित्रांनी आनी उत्खननांत सांपडिल्ल्यो वस्तू हांच्यावेल्यान थोडीशी म्हायती मेळटा. ह्या काळांत जी थोडी म्हायती मेळटा ती चड करून अ. युरोप, उ. अमेरिका, ईजिप्त आनी आशिया हांगासल्ल्या उत्खनन आनी संशोधनाचेर आदारिल्ली आसा.

पुर्विल्ल्या मानवाक आपली परिस्थिती सुदारपाखातीर सैमीक अवलोकन, आपली बुध्दी, कल्पकता आनी फातराचीं ल्हान - व्हड सैमीक रीतीन तयार केल्लीं हत्यारां इतलींच साधनां उपलब्ध आशिल्लीं. ज्वालामुखी, रानांत पेटिल्लो उजो जांव दोन लाकडाच्या कुडक्यांच्या घर्शणान तयार केल्ल्या उज्याचो मासाचेर जावपी परिणाम अवलोकनान ताका कळ्ळो आनी मागीर आपले बुध्दीन खावपाचें मांस भाजपाखातीर ताणें उज्याचो उपेग केलो. आपली राखण करपाखातीर ताणें बडयेचो आदार घेतलो. होय ताचे उदरगतीचो एक पांवडो जावन आसा.

त्या काळांतल्या समाजाच्या स्वरुपाचो आनी त्या समाजांत उत्पन्न जाल्ली तंत्रविद्या हांचो दाट संबंद आसा म्हणपाचें उत्खननांत सांपडिल्ल्या वेगवेगळ्या वस्तूंवेल्यान दिसून येता.

पुर्विल्ल्या भारतांत, तंत्रविद्या आनी अभियांत्रिकी हांची म्हायती मेळटा. पुर्विल्ल्या साहित्यांत विमानां, मळबांतल्यान वचपी रथ हांचो उल्लेख सांपडटा. ताच्यावेल्यान ह्या गजालींचें गिन्यान मनशाक अशिल्लें अशें दिसता. पूण हाचो निश्चीत पुरावो जांव तपशील मेळना. स्थापत्य अभियांत्रिकी आनी ते संबंदीत तंत्रविद्या हांच्या पोरन्या अस्तित्वाविशीं मात दुबाव ना. पोरन्या शारांच्या उत्खननांत उदकापुरवणेचे कालवे, आंखिल्ले रस्ते, रस्त्याच्ये कडेचें गटार सारकिल्ल्यो गजाली सांपडिल्ल्यान संबंदीत तंत्रविद्येचो पुरावो मेळटा. तशेंच विंगड विंगड तरेचे किल्ले, होंवऱ्यो, इमारती हांच्या बांदपाची अखंडीत परंपरा आशिल्ल्याचेंय दिसून येता. धातू गाळप, सूत काडप आनी कपडे विणप ह्यो गजालीय पयलींपसून भारतीयांक खबर आशिल्ल्यो आनी हीं तंत्रांय बरीच विकसीत जाल्लीं आशिल्लीं. वेगवेगळ्या तरेचे कपडे आनी प्रतिमावर्धक भिंगांची भारत परकी देशांत निर्यातय करतालो. पूण त्या त्या तंत्रांत नवे सोद लागून उदरगत मात जायत रावली ना.

भारतीय तंत्रविद्येची चडशी म्हायती मेळना. अमूक एक क्रिया केल्ल्यान ताचे जे परिणाम जातात तेविशीं ग्रंथांनी म्हायती मेळटा. पूण तातूंत वापरिल्ल्या तंत्राविशीं म्हायती मेळना. पुर्विल्ल्या काळांतल्या (ख्रि. आ. सु. २५०० ते उपरांत) भारतांतले तंत्रविद्येचे अशे वांटे घालूं येतात. १) अन्नविशयक तंत्रां - शेती, पशुपालन, नुस्तेमारी, शिकार, अन्न तयार करप. २) हस्तकला आनी धंदे आनी ३) शरीराचें सौंदर्यवर्धन, संगीत आनी ललीत कला.

आधुनिक अर्थाची यंत्रसंबंदीत तंत्रविद्या पुर्विल्ल्या काळांत भारतांत आशिल्ली म्हणपाचे उल्लेख सांपडटात. कौटिलीय अर्थशास्त्र (इ. स. आ. चवथो शेंकडो) ह्या ग्रंथांत एक आयुधागार नांवाचें स्वतंत्र प्रकरण आसा. तातूंत झुजांत वापरपाच्या थीर आनी चल अशा दोन तरेच्या यंत्रांची म्हायती दिल्ली आसा. झुजाक उपेगी पडपी यंत्रांशिवाय कालमापनाचीं, ताऱ्यांचे वेध घेवपाचीं, कळसूत्री खेळणीं सारकिल्ल्या यंत्रांची म्हायती वेगवेगळ्या ग्रंथांनी मेळटा.

भारतांत यंत्र आनी तंत्रविद्येची परंपरा खूब काळ चालू आशिल्ली आनी ते विद्येचेर खुबशे ग्रंथय निर्माण जाल्ले आसुंये. पूण उपरांतच्या हजार - बाराशें वर्सांच्या काळांत (अस्तंते तंत्रविद्येच्या संपर्कांत येमेरेन) भारतीय संस्कृतायेंत खुबशे बदल घडून आयले. हाका लागून तंत्रविद्येची परंपरा बरोच काळमेरेन खंडीत जाली.

इतिहासपूर्व काळांत मनीस रानटी अवस्थेंत रावतालो. आपली स्थिती सुदारपाखातीर फुडें ताणें लाकूड, फातर, हाडां, कातडी, कोंडे, माती हांचो उपेग केलो. पूण आपल्या कामाखातीर फातराचीं हत्यारां करपाक शिकपाक मात लाखांनी वर्सां लागलीं. उत्खननांत अशीं हत्यारां सांपडल्यांत आनी हाच्यावेल्यानच ह्या काळाक पुराश्मयुग म्हण्टात. सुरवातेचीं फातराचीं हत्यारां जाय तशा आकाराच्या गुळगुळीत फातराचे दोन भाग करून केल्लीं आसतालीं. हीं सामकीं प्राथमिक स्वरुपाचीं हत्यारां आशिल्लीं. हीं हत्यारां चवथ्या कल्पाच्या (सु. ६ लाख वर्सांपयलींपसूनच्या काळाच्या) पयल्या सु. एक तृतीयांश काळामेरेन तशींच वापरतले.



**फातराचीं हत्यारां**

ह्या प्राथमिक खडबडीत हत्यारांचो फुडलो पांवडो उत्तर आफ्रिका, युरोप आनी अस्तंत आशिया ह्या भागांत सांपडिल्ल्या हत्यारांवेल्यान दिसून येता. ह्या हत्यारांनी तंत्रविद्येचे नदरेन प्रगती जाल्ली दिसता.

नवाश्मयुग हो काळ म्हळ्यार ख्रि. आ. सु. १०,००० वर्सांपयलींचो काळ. ह्या काळांत तंत्रीक आनी समाजीक बदल घडून येवन उत्तर भागांतल्या कांय प्रदेशांनी पशुपालन आनी शेती वेवसाय हांचो विकास जालो. शेती आनी पशुपालन साध्य जाल्ल्यान नवाश्मयुगीन मनशाच्या जिवीतांत क्रांती घडून आयली. धान्याच्या चड पिकाक लागून तें साठोवपाखातीर कडे (गुदाम) तयार जाले. तशेंच धान्याचें पीठ करपाखातीर वांटपाचीं साधनां तयार जालीं. रोटयो करपाखातीर चूल आनी तवो आयलो. धान्याचें किण्वन करून सोरो काडपय सुरू जालें. पुराश्मयुगांतलीं खेडीं वचून त्या जाग्यार रस्त्याचे कडेक बांदिल्लीं घरां

आशिल्लीं व्हडलीं खेडीं अस्तित्वांत आयलीं. वस्त्रां विणप सुरू जालें आनी मातयेचीं आयदनां तयार करून तीं भाजपाकय सुरवात जाली. ह्यो सगळ्यो तंत्रीक सुदारणा पळयल्यार नवाश्मयुगाच्या शेवटाक मनशान तंत्रविद्येंत बरीच प्रगती केल्ली दिसता.

ख्रि. पयलीं. सु. ४५०० वर्सांपयलीं ब्राँझयुग सुरू जालें. ताचे अवशेश चड करून अस्तंत आशियांत (टायग्रिस - युफ्रेटीस खोरीं - बॅबिलोनिया) सांपडले आनी ताचेवेल्यान तंत्रविद्येंत नवे सोद लागून बरीच प्रगती जाल्ली म्हणपाचें दिसता. ह्या सोदांभितर ६ सोद चड म्हत्वाचे आसात. ते म्हळ्यार १) तांबें आनी ताचो कथिलाकडेन जाल्लो मिश्रधातू - कांशें (ब्राँझ) २) बैल, गाढव, घोडो हांचे शक्तीचो उपेग ३) चाकांचीं वाहनां ४) होडयेक लावपाचें शीड ५) घुंवतें चाक आनी ६) विटो. तांबें आनी कांशें हे धातू घडोवन तांचे पत्रे, ल्हान कुडके, हत्यारां आनी हेर वस्तू करपाक येतात म्हणपाचें मनशाक समजलें. ख्रि. पयलीं सु. ३,००० वर्सांपयलीं बैल जुंपिल्लो लांकडी नांगर वापरांत आयिल्लो. नांगर आनी ताका बैल जुंपपाक येता ह्या सोदाक लागून पयलींची कुडक्यांची शेती वचून त्या जाग्यार व्हडल्या कुणग्यांची पद्दत आयली.

ब्राँझयुगांत तंत्रज्ञान, कुशळताय आनी कसब हांची गरज आशिल्ले धातू गाळप, ओतकाम, विणप, कुंभारकाम सारकिल्ले धंदे सुरू जाले. पयलींची शेताचेर आदारिल्ली समाजरचणूक वचून वेपार आनी तंत्रविद्येचेर आदारिल्लें उत्पादन हांचेर आदारिल्ली समाजरचणूक अस्तित्वांत आयली. लोकांच्या तंत्रज्ञांनात आनी समाजीक, अर्थीक आनी राजकीय जिवितांत जाल्ल्या महत्वाच्या बदलांनी शारांक जल्म दिलो. हाका लागून व्हडलीं अभियांत्रिकीय कामां हातांत घेवप शक्य जालें. ह्यो घडामोडी टायग्रिस - युफ्रेटीस आनी नायल न्हंयांच्या देगणांनी घडल्यो.

पुराणकाळांत न्हंयांच्या देगांनीच संस्कृताय उदयाक आयली. देखीक - सिंधू न्हंयच्या आश्रयान सिंधू संस्कृताय आनी नायलच्या देगांचेर ईजिप्ती संस्कृताय. हेचप्रमाण टायग्रिस - युफ्रेटीस न्हंयांच्या देगणांनीय बॅबिलोनी संस्कृती ब्राँझयुगाच्या उत्तरार्धांत जल्माक आयली. शेताखातीर आनी सदच्या वापराखातीर उदक मेळोवपाक बांद, धरणां, कानाल बांदपांत आयले. लिपीय अस्तित्वांत आयली. वेपाराखातीर प्रमाण वजनां आनी मापां तशेंच तागडी वापरांत आयली. शेतकामत्यांक पंचांग जाल्यार अभियंत्यांक सर्वेक्षणाचीं साधनां आनी बांदावळीची पद्दत जाय आसली. हेखातीर अभियंत्याक क्षेत्रफळ, घनफळ आनी कोन समजुपाखातीर गणिताची गरज लागली. हाकालागून मुलभूत शास्त्रांक सुरवात जाली.

ह्या काळांत उच्च दर्जाची कारागिरीय सुरू जाली. तेचप्रमाण कुशळ अशे शिल्पकार आनी कुंभार आदी सगळ्या प्रकारचे कारागीर अस्तित्वांत आयले. ह्या देगणांनी खुबशीं शारांय वसलीं आनी तातूंत बॅबिलोन आनी अर हीं मुखेल शारां आशिल्लीं. हीं सगळीं शारां म्हणजे स्वतंत्र राज्यांच आशिल्लीं आनी तांचेमदीं सदांच झुजां जातालीं. हेखातीर शारांभोंवतणी ताणीं व्हडल्यो वण्टी बांदिल्ल्यो. बॅबिलोनभोंवतणची वणत नेबुकॅड्नेझर (ख्रि.प. ६०५ - ५३२) ह्या राजाचे कारकिर्दींत बांदिल्ली.

नायल देगणांत विकसीत जाल्ल्या तंत्राचें आनी संस्कृतीचें स्वरूप टायग्रिस - युफ्रेटीस देगणांपरस सामकेंवेगळें आशिल्लें. नवाश्मयुगापसून नायल देगणांनी मनशाचो राबितो आशिल्लो. शेताखातीर ताणीं संघटीत जलसिंचनाची वेवस्था केल्ली. ब्राँझयुगांत न्हंयेचेर व्हडले बांद घालपाक ताणीं सुरवात केली. ख्रि. प. २,००० पसून ईजिप्ती लोकांनी न्हंयेदेगेपसून पयसुल्ल्या शेतांक उदक मेळचें म्हण कानाल, धरणां आनी व्हडले जलाशय बांदले. सबंद खेड्याभोंवतणी व्हडल्यो वण्टीय उबारिल्ल्यो. ल्हान - व्हड स्तूप आनी थडगींय बांदपांत आयलीं. तांचो खुबसो अंतर्गत वेपार नायल न्हंयेतल्यान व्हड्यांनी जातालो. व्हडीं जांव जहाजां लांकडाचीं आसतालीं. दुसरो रॅमसीझ (ख्रि. प. सु. १,३०४ - १,२३७) ह्या राजाचीं ४०० जहाजां आशिल्लीं. कला आनी हस्तकला हांचेर आदारिल्ले धंदे अर्थवेवस्थेंत म्हत्वाचे जाल्ले. ईजिप्ती लोकांनी दिसाचे आनी रातचे तास कळपाखातीर उपकरणां तयार केल्लीं. तशेंच दिसाखातीर ढोबळ रचणुकेचें सूर्याचे सावळेचें घड्याळ तयार केल्लें. उदकाच्या घड्याळाचोय ते वापर करताले.

ग्रीक आनी हेलेनिस्टिक संस्कृतायेंतय तंत्रज्ञान विकसीत जाल्लें. हांगाच्या लोकांनी गणित, ज्योतीश सारकिल्ल्या सिध्दांतीक शास्त्रांकडेन चड लक्ष दिलें. वास्तुकला आनी शिल्पकलेसारक्या ललीत कलांकडेनय तांचो कल आशिल्लो. ग्रीक संस्कृताय ख्रि. आ. सव्या शेंकड्यांत जल्माक आयली आनी रोमन लोकांनी इ. स. च्या दुसऱ्या शेंकड्यांत जेन्ना घुरी घालून तो देश जिखलो तेन्ना अस्ताक पावली.

ग्रीकांनी तंत्रविद्येंत जी भर घाली तातूंत लोखणाच्या वस्तूंचो आसपाव जाता. तशेंच तरफेसारखे घटक वापरून सोरो तयार करपाखातीर द्राक्षांचो रोस काडपाचें यांत्रिक साधन तांचेकडेन आशिल्लें. तांचें जहाज बांधणीचें तंत्र ईजिप्ती लोकांपरस बरेंच प्रगत आशिल्लें.

ख्रि. प. ३०० पसून ते इ. स. ३०० मेरेन सु. ६०० वर्सांच्या काळांत हेलेनिस्टिक समाजाची उदरगत जाली. तंत्रविद्येचे प्रगतींत ताणीं म्हत्वाचो हातभार लायलो. ॲलेक्झांड्रियाच्या अभियंत्यांनी उदक उसपुपाखातीर वेगवेगळीं तंत्रां वापरांत हाडलीं. तशेंच झुजाचीं नवीं साधनांय तयार केलीं. सर्वेक्षणांतलें अंतर मेजपाखातीर सायक्लॉमीटर ह्या उपकरणाचो ते उपेग करताले. हॅलेनिस्टिक अभियंत्यांनी सिध्दांतीक नदरेन प्रगत स्वरूपाच्या यांत्रिक गतीचो अभ्यास केलो. तशेंच तरफ, चाक आनी आस, कप्पी, पाचर आनी स्क्रू ह्या सादया यंत्रांतलो यांत्रिक लाव काडपाखातीर सिध्दांतीक पद्दत सोदून काडली. ताणीं त्यावेळार मांडिल्ले सिध्दांत फुडले कांय शेंकडे तंत्रविद्येच्या विकासाक उपेगी थारले. देखून हेलेनिस्टिक तंत्रविद्येक तंत्रविद्येच्या विकासाच्या इतिहासांत म्हत्वाची सुवात आसा.

रोमन लोकांनी व्हडलीं देवळां, थडगीं जांव संरक्षक वण्टी बांदूक ना. तर ताणीं व्हडले राजवाडे, न्हाणी घरां, क्रिडाघरां, धान्याचे गुदांव, पूल, रस्ते, गटारां ह्यो गजाली बांदल्यो. ह्यो गजाली बांदतना रोमन लोकांनी कल्पकता दाखयली. तशेंच बांदकामांत नवें तंत्र आनी कल्पना हाडल्यो. ताणीं बांदिल्ल्यो जलवाहिन्यो आनी रस्ते हांचीं तंत्रां आनी कामाच्यो पद्दती अठराव्या शेंकड्यांत लेगीत वापरताले.

चीनांत फू सी, शन नूंग आनी हुआंगती हांकां तंत्रविद्येचे प्रथमावस्थेचें प्रतीक मानतात. हुआंगती हाणें नाणी पाडली. तशेंच थंय जायतीं व्हडलीं व्हडलीं बांदकामां जातालीं आनी शेतीय चलताली. ह्या तीन तंत्रज्ञा उपरांत स्या (ख्रि. प. एकविसावें ते ख्रि. प. सोळावें शतमान), शांग (ख्रि. प. सोळावें ते ख्रि. प. अकरावें शतमान) आनी अस्तंतेचो जौ (ख्रि. प. अकरावें शतमान ते ख्रि. प. ७७१) आनी उदेंतेचो जौ (ख्रि. प. ७२० ते ख्रि. प. २४९) ह्या इतिहासीक राज्यकर्त्या घराण्यांनी तंत्रविद्येंत मोलाची भर घाली.

चीनांत तंत्रविद्येच्या मळार जायत्यो नोंद जावपासारक्यो गजाली

घडल्यो. पयली म्हळ्यार थंय नाण्यांचो प्रसार जालो. ७०,००० परसय चड लोकवस्तीचीं शारां वसलीं. चीनांतलीं सुरवातेचीं ज्योतीश शास्त्रीय उपरकरणां म्हणजे छायास्तंभ आनी फर्मापट्टी. तशेंच दट्टो आशिल्लो एक द्विक्रिय पद्दतीचो भातो वापरांत आयलो. लोखणी सरपळ्यांचे आनी एकेच कमानीचे फातरांचे पूल बांदपांत आयले. नारा काळांत (इ. स. ७५६) शोसॉइन ह्या नांवाचो खूब व्हड आनी नामनेचो लांकडी प्रासाद बांदलो. तातूंत चीन आनी हेर आशियाई देशांतल्यान हाडिल्ल्यो मोलादीक कलाकुसरीच्या वस्तूंचो संग्रह अशिल्लो. लोखणाची झोतपट्टीय ते वापरताले. तशेंच शेतीविज्ञान, वैजकी, झुजांतले डावपेंच, वास्तुशिल्प सारकिल्ल्या विशयांचेर ह्या काळांत ग्रंथरचणूक जाली. छंग त्सु (१४०३ - २४) ह्या बादशहान पेकिंगच्या भायर 'व्हडल्ये घांटेचो मठ' बांदलो.

आधुनीक काळांत जपान हो जरी तंत्रविद्येंत मुखार आसा तरी पुरातन काळांतल्या तंत्रविद्येची कांयच म्हायती मेळना. आग्नेय आशियांतल्या हेर देशांतल्या तंत्रज्ञानाचीय हीच गत आसा.

पदार्थावेल्या संस्कारान जर पदार्थाच्या भितरल्ले रचणूकें त बदल जातात जाल्यार तो संस्कार रासायनीक जातीचो आसता आनी अशा संस्काराकडेन संबंदीत आशिल्ली तंत्रविद्या म्हणजेच रसायनी तंत्रविद्या. धातुकांपसून बीड, लोखण, पोलाद तयार करतना धातुकांत अंतर्गत बदल जातात म्हणून हे विधी रसायनी तंत्रविद्येंत मोडटात.

१८५३ मेरेन इंग्लंड आनी हेर युरोपीय देशांनी पोलाद तयार करपाखातीर पोरनीच पध्दत वापरताले. पूण १८५४त हेन्री बेसेमर हाणें नवी पध्दत सुरू केली. बेसेमर हाची पोलाद तयार करपाची पध्दत कमी वेळांत पूराय जावपी आनी सामकी थोड्या खर्चाची आशिल्ल्यान ती सगळ्या देशांनी वापरांत आयली. १८५६त फ्रीड्रिख सीमेन्स ह्या जर्मन तंत्रज्ञान भट्टी (ओपन हार्थ) तयार केली. हाका लागून जहाजबांदणी, रूळमार्गी डब्यांची बांदणी, घरबांदणी, कारखान्यांची बांदणी, पूल बांदणी सारकिल्ल्या जायत्या उद्येगांनी सुदारणा जाली.

इ. स. १८६० उपरांत जर्मनी आनी फ्रान्स ह्या देशांनी रसायन उद्येगांतल्या जायत्या धंद्यांक सुरवात जाली. डब्ल्यू. एच्. पर्किन ह्या तंत्रज्ञान १८५६ वर्सां 'मोव्ह' ह्या डांबरापसून कृत्रिम ॲनिलीन रंजकद्रव्य तयार केलें. स्फोटक द्रव्याच्या उत्पादनांत व्हड क्रांती जाली. तशेंच वखदांचे आनी छायाचित्रणाखातीर लागपी शुध्द रसायनां, अल्कोहॉलां, सुगंधी द्रव्यां, गुंगी हाडपी रसायनां अशे जायते पदार्थ तयार करपाचे नवे उद्येग सुरू जाले. रसायनशास्त्रांतले प्रगतीक लागून कागद, कंवची, शिमीट, चिनी मातयेचीं आयदनां, शाबू, विटो, रबर, कातडीं, फस्कां सारकिल्ल्या धंद्यांनी सुदारणा करपांत आयल्यो. हाका लागून तंत्रविद्येचें म्हत्व सगळ्यांक पटलें.

नेटान व्हांवपी उदकाचो उपेग दातें फिरोवपाक जाता म्हणपाचो सोद पयलीं ग्रीकांनी लायलो. युरोपभर हे पाणचक्कीचो उपेग धान्य दळपाखातीर करताले. उपरांत यंत्रां चलोवपाखातीरय तिचो उपेग करपांत आयलो. सुरवातेचे पाणचक्केक नॉर्स चक्की म्हण्टाले. वाफ इंजिनाचो विकास जल टरबायनाच्या पयलीं जालो आनी हाका लागून वेगवेगळ्या उद्येगांनी चडशी यांत्रिक शक्त वापरपाची लोकांत आवड निर्माण जाली. १८३२त फूर्नेशँ हाणें एक ५० अंशचें टरबायन तयार केलें आनी तेखातीर ताका पेटंट मेळ्ळें. जल टरबायनांत हालीं जाल्ली प्रगती म्हणजे पॉल डेरिएझ ह्या अभियंत्यान तयार केल्लें मिश्र प्रवाहाचें टरबायन (१९५६) जावन आसा.

इ. स. ४०० च्या सुमाराक तिबेट आनी चीनांत वाऱ्यान घुंवपी प्रार्थनाचक्रां आशिल्लीं. तीं पवनचक्कीवरीच आशिल्लीं. हॉलंडांत पवनचक्क्यो वापरपाक तेराव्या शेंकड्यांत सुरवात जाली. पीठ दळपाच्या गिरण्यांविशीं मात खास अशी म्हायती मेळना. ह्यो गिरण्यो हेर गिरण्यांवांगडा अठराव्या शेंकड्यांत वापरांत आयल्यो.

उदक उसपुपाखातीर टॉमस सेव्हरी हाणें वाफेचेर चलपी एका साधनाचें १६९८त पेटंट घेतलें. १८३०त रिचर्ड रॉबर्ट्स हाणें रंधायंत्र (प्लेनिंग यंत्र) तयार केलें. तशेंच १८९० च्या सुमाराक तयार केल्लें बेलिस - मार्कॉम इंजिन आनी १९०८त तयार केल्लें एकदिश इंजिन हें इंजिनाच्या विकासांतले कांय मुखेल टप्पे आसात. वाफ टरबायनाचे तंत्रविद्येक एकोणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धाक सुरवात जाली. ह्या संशोधनांत द लाव्हा ल ह्या स्वीडीश अभियंत्याचें नांव मुखेलपणान घेतात. ताणें १८८४ त तयार केल्ल्या यंत्राक उद्येगीक नदरेन चड म्हत्व प्राप्त जालें. ह्याचवेळार शास्त्रज्ञ अंतर्ज्वलन - इंजिन तयार करपाचे खटपटीक लागले. एत्येन लन्वार (१८२२ - १९००) ह्या फ्रँच शास्त्रज्ञान द्विक्रिया वाफ इंजिनासारकें दिसपी एक इंजिन तयार केलें. ह्या वावरांत रॉबर्ट स्ट्रीट (इंजिन १७९४), विल्यम सेसिल (१८२०), सॅम्युएल ब्राउन (१८२३), डब्ल्यू. एल्. रायट (१८३३), एम्. ह्यूजन (१८६२) आनी अल्फाँस ब्यू द रोचस ह्या संशोधकांनी महत्वाचें काम केलां. अंतर्ज्वलन इंजिनाच्या इतिहासांत ओटो हाचें वायू इंजिन युगप्रवर्तक थारलें.



उदकाची लाठ

वायू इंजिनाक फाव जाल्लें यश पळोवन गोटलीप डायमलर आनी व्हिल्हेल्म मायबाख हाणीं १८८३त पेट्रोलाचेर चलपी इंजिन तयार केलें. तशेंच डायमलर आनी कार्ल बेंट्स ह्या दोगांनीय स्वतंत्रपणान हीं इंजिनां बसयल्ल्यो मोटारगाडयोय तयार केल्यो. तेउपरांत तातूंत जायत्यो सुदारणा जाल्यो आनी ह्या सुदारणांक लागून पेट्रोल इंजिनाक मानाचें स्थान फाव जालें. पयलें तेल इंजिन मात व्हिएन्ना हांगाच्या जे. हॉक हाणें १८७३त तयार केलें. १८९०त ह्याच इंजिनांत सुदारणा करून एकक्रिया पद्दतीची ओटो आवर्तनाची आवृत्ती काडपांत आयली. डेंट आनी प्रीस्टमन हाणीं

मेळून १८८६त जड खनिज तेलाचें बाश्प वापरपी इंजिनाचें पेटंट घेतलें. हाचे उपरांत कँबेल, ग्रांब, हॉर्नस्बी, क्रॉस्ली हाणीं तातूंत कांय सुदारणा करून नवीं इंजिनां तयार केलीं आनी तातूंतल्या कांय इंजिनाक बरेंच यश फाव जालें. वायू टरबायन तयार करपाच्या यत्नांक ह्या शेंकड्याचे सुरवातेक सुरवात जाली. फ्रान्सांतल्या आर्. आर्मेनगँड आनी सी. लमेल हाणीं पयलें यशस्वी वायू टरबायन १९०३त तयार केलें. तशेंच फ्रँक व्हिटल ह्या इंग्लीश अभियंत्यान १९३०च्या सुमाराक विमानाखातीर लागपी एक जेट प्रचालन इंजिन विकसीत केलें. ह्या कामांत हेर शास्त्रज्ञांचोय हातभार लागिल्लो.

इटलींतलो बर्तोला दे नोव्हाते (सु. १४१० - ७५) हो युरोप खंडांतलो पयलो स्थापत्यजल अभियंतो आशिल्लो. लिओनार्दो दा व्हींची (१४५२ - १५१९) हो इटलींतलो दुसरो एक व्हड शास्त्रज्ञ. ताणें कानस तयार करपाचें आनी आटे पाडपाचें यंत्र तयार केलें. आतां वापरांत आशिल्लीं पुस्तकां छापपाची कला जर्मन तंत्रज्ञ योहान गुटेनबेर्क (सु. १३९८ - १४६८) हाणें सोदून काडली. हे कलेच्या सोदाक खूब म्हत्व आसा कारण ह्या सोदाक लागून तंत्रज्ञानाच्याच न्हय तर सगळ्या तरेच्या गिन्यानाच्या प्रसाराक युगप्रवर्तक अशी सुरवात जाली. योहान फूस्ट आनी पेटर शफर हांचे भागींत गूटेनबेर्क हाणें मेंझ हांगा १४५०त एक छापखानो सुरू केलो. त्या काळांतलो संघटीत असो पुस्तकां छापपाचो हो एकच छापखानो आशिल्लो.

उत्तर हॉलंडाक स्वातंत्र्य मेळ्ळ्याउपरांत सोळाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत आनी सतराव्या शेंकड्याच्या पुर्वार्धांत डच अभियंत्यांनी केल्ली कामगिरीय उल्लेखनीय आसा. १५४० - १६९० ह्या काळांत ताणीं सु. १,७८,००० हेक्टर जमीन महासागर आनी भितरलो दर्या हांच्यापसून मेळयली. तशेंच ताणीं जायते बांद आनी कानाल बांदले.

पुर्विल्ल्या काळांत भारत, ईजिप्त, बॅबिलोनिया आनी हेर देशांनी कांतप आनी विणप ह्यो कला खबर आशिल्ल्यो. सूत कांतपाचें सगळ्यांत



हातमाग

पोरने साधन म्हणजे चाती जांव टकळी. हाच्याफुडें चौदाव्या शेंकड्यांत चरखो आयलो. सूत कांतपाच्या कामांत आनीक एक म्हत्वाचो सोद लागलो तो म्हणजे जेम्स हारग्रीव्हज हाची कताई जेनी (१७६४). फुडें सॅम्युएल क्रॉम्प्टन हाणें ह्या जेनीच्या कार्यांत सुदारणा करून एक नव्या प्रकारचें यंत्र तयार केलें (१७७४ - ७९) आनी ताका म्यूल अशें नांव दिलें. पूण आतां तें यंत्र वापरांत ना. कापड विणपाखातीर पयलीं हातमाग वापरताले. ह्या मागांत अठराव्या शेंकड्यांत यांत्रिकीकरण जालें. लीआँ हांगाच्या झोझेफ मारी जकार्ड (झाकार) हिणें नक्षीच्या मागांच्या स्वयंचालनाचो सोद १८०१त लायलो. पूण रिचर्ड रॉबर्ट्स हाणें १८२० च्या सुमाराक तयार केल्लो यंत्रमाग मात वापरांत आयलो. तशेंच विल्यम ली हाणें १५८९त विणकामाचें यंत्र तयार केलें.

वाफ इंजीन, पेट्रोल इंजीन हांचो सोद लागल्या उपरांत जमीन, उदक आनी मळब हातूंतलो परिवहन - संचार शक्य जालो. जलद परिवहनाक लागून उद्योगीक शारां वसलीं आनी खेडेगावांतल्या लोकांचें शाराकडेन स्थलांतर जालें. भारतांत पयलींपसून रस्ते आशिल्ले. आधुनीक शिमीट काँक्रीटाचे आनी काळ्या घट्ट पृश्ठभागाचे डांबरी रस्ते मात गाडयांक लागून विसाव्या शेंकड्यांत जगभर जाले. जमनीवेल्या वाहनांत चाकां लायिल्ले गाडयेक पयलो मान फाव जाता. ही गाडी ब्रॉंझयुगांत मेसोपोटेमियांत जल्माक आयली आसुंये. ताचेपयलीं झुजांत आनी गिरेस्तांचें जांव राजांचें सामान्य वाहन म्हणून रथ वापरताले.

रस्त्यावेल्या यांत्रिक वाहनांत मोटारगाडयांक खूब महत्वाचें स्थान आसा. इ. स. १८२५ उपरांत हीं यांत्रिक वाहनां वापरांत आयलीं. सु. १८३० पसून वाफेचेर चलपी गाडयो तयार करपाक सुरवात जाली. भारतांतय मुंबय पोर्ट ट्रस्ट आनी माझगाव डॉक हांचे वाफेचे मालट्रक १८३०च्या सुमाराक मुंबयत चालू आशिल्ले. १८८० उपरांत तेल इंजिन येतकच उपरांत खूब जड वाफगाडयांचो जागो पेट्रोल इंजिनाचेर चलपी मोटारींनी घेवपाक सुरवात केलो. हाचेपयलीं १८१८त सायकलीचो जल्म जालो आनी आधुनीक स्वरुपाची पयली सिंगर सायकल बाजारांत आयली.

जर्मनींतल्या मॅनहिम हांगाच्या कार्ल बेंट्स हाणें एक पेट्रोल इंजीन स्वतंत्रपणान तयार केलें (१८८५) आनी ताची एक तिचाकी मोटारगाडी तयार केली. उपरांत हीच गाडी ताणें चार चाकी केली. पूण बाकीची सगली रचणूक आदल्यावरीच आशिल्ली (१८९३). ही गाडी यशस्वी थारली आनी फुडलीं ७-८ वर्सां अशे तरेच्यो शेंकड्यांनी गाडयो खपल्यो. कार्ल बेंट्स हो आधुनीक मोटारगाडयेचो जनक जावन आसा. १८८९त चार चाकांच्यो गाडयो कारखान्यांत तयार जावपाक लागल्यो. इ. स. १९०० उपरांत आयजलेगीत मोटारगाडयेंत सुदारणा जायत आसात.

जॉर्ज स्टीफन्सन (१७८१ - १८४८) हाका रूळमार्गाचें आनी रूळमार्गी इंजिनाचें जनकत्व दितात. लिव्हरपूल आनी मँचेस्टर ही पयली माल आनी प्रवासी हांची रूळमार्गी गाडी जावन आसा. ती १८३०त सुरू जाली. १८४०त परत लंडन - बर्मिंगहॅम आनी लंडन ब्रिस्टल हे मुखेल मार्ग सुरू जाले. टॉमस, रसेल, क्रॉम्प्टन (१८१६ - ८८) आनी जॉन हॅजवेल (१८६१) हाणींय रूळमार्गी इंजिनाचे निर्मणेंत हातभार लायलो.

पुर्विल्ल्या काळांत, ब्रॉंझयुगांत, ख्रि. आ. काळांत आनी युरोपांतय होडीं वापरताले. पंदराव्या शेंकड्यांत तांकां कॅरॅक म्हण्टाले. १५५०त गॅलीऑन नावाची तारवाची एक जात वापरांत आयली. सतराव्या शेंकड्यांत व्हड प्रमाणांत तारवां बांदपाक सुरवात जाली. १८४०त क्लिपर नांवांचीं तारवां जल्माक आयलीं. ही उत्क्रांती अमेरिका आनी इंग्लंडांत जाताली.

जेम्स वॅट हाणें वाफेचें इंजिन तयार केलें. ते उपरांत ब्रिटीश आरमारांत १८२२ पसून वाफ इंजिनाचेर चलपी तारवांचो आसपाव केल्लो. कोळशाची व्हर-हाड करपाखातीर दर्यांत 'बार्क' नावांचीं ल्हान तारवां वापरताले. विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक अशे तरेच्या 'बार्कां'चो सगलेकडेन वापर जातालो. ते उपरांत स्कूनर जातीचीं तारवां आयलीं. १८२२ स्ट्रॅफर्ड शारांतल्या कारखान्यांत तयार केल्ले भाग टेम्स न्हंयेचेर जोडून पयली वाफ बोट तयार करपांत आयली. हाचेफुडें १८२९त बर्कनहॅड (इंग्लंड) हांगा कॉर्नेल लेअर्ड नांवाची व्हडली कंपनी लोखणाचीं तारवां बांदपाक लागली. एफ्. पी. स्मिथ आनी जे. एरिकसन ह्या दोगांकय १८३६त मळसूत्री प्रचलकाचीं एकस्वां मेळ्ळीं. आय्. के. ब्रनेल हाणें 'ग्रेट ब्रिटन' हें पयलें लोखणाचें प्रचालक आशिल्लें व्हडलें तारूं इंग्लंड - अमेरिका प्रवासाखातीर बांदलें. तशेंच आल्फ्रेड होल्ट, प्येअर बूगेअर, टॉमस लेंग, विल्यम फेअरबेअर्न, ग्लासगोचे डब्ल्यू. जे. एम्. रँगकिन आनी जॉन विल्किन्सन हाणींय जलवाहनां तयार करपाखातीर म्हत्वाचो वावर केला. १८७७त ब्रिटीश नौदलान 'आयरिस' आनी 'मर्क्युरी' ह्यो दोन बोटी बांदल्यो. पूण पयली नांव घेवपासारखी पोलादी बोट १,७७७ टनी 'रोटोमहाना' ही आशिल्ली. ही बोट विल्यम डेनी हाणें बांदिल्ली.

तंत्रविद्येच्या मळार जे म्हत्वाचे खुबशे सोद लागिल्ले तातूंत हवाई वाहनांचोय आस्पाव जाता. १८९७त अशें वातयान मळबांत सोडपाचे यत्न निश्फळ जाल्याउपरांत ग्राफ (काउंट) फेर्दिनांद फोन त्सेपेलीन (झेपेलीन, १८३८-१९१७) ह्या शास्त्रज्ञान २ जुलय १९०० दिसा कॉन्स्टन्स तळ्यावेल्यान (बोडन से वेल्यान) यशस्वी उड्डाण केलें. ते उपरांत ऑरव्हिल रायट हो आपल्या विमानांतल्यान १७ डिसेंबर १९०३ ह्या दिसा फकत १२ सेकंदांत ३५-३६ मी. अंतर उडत गेलो. ही घडणूक खूब म्हत्वाची जावन आसा. हे घडणुके उपरांत रायट भावंडांनी १९०८त जेन्ना नवें विमान तयार केलें तेन्ना तांच्या कार्याक अमेरिकेंत आनी युरोपांतय प्रसिध्दी आनी मान्यता फाव जाली. फ्रान्सांतय विमान तयार करपाचे स्वतंत्र यत्न सुरू जाले. हातूंत ब्राझिली वैमानीक आलबे अरतू सँनतूझ द्यूमाँ बंधू आनी ताचे वांगडी ल्वी ब्लेर्यो हे मुखेल जावन आसात. तशेंच सी. ए. लिंडबर्ग हाणें २०-२१ मे १९२७ दिसा एकट्यान अटलांटिक महासागर हुंपलो.

सद्याच्या काळांत तर जेट विमानांनी दिल्ली - मुंबय ते न्यूयॉर्कमेरेन सु. १५,००० किमि. चो प्रवास ३०० परस चड मनीस आनी माल घेवन १५-१६ वरांनी करपाक येता इतली प्रगती हवाई वाहनांच्या मळार जाल्ली आसा.

पुर्विल्ल्या काळांत लेगीत मनशाक देवाण-घेवाण करपाखातीर वजनांची गरज पडटाली. तेखातीर सुरवातेक दांडयेचे काटे प्रचारांत आयले. ईजिप्तांतलो पोरनो काटो नाकदा हांगाच्या एका थडग्यांत सांपडला. तशेंच जनावरां आनी शेवणीं हांचीं रुपां आशिल्लो फातराच्या वजनांचो संचय सांपडला. सतराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक स्प्रिंगकाटे तयार केले आसुंये. १६९४त अशे कांटे प्रचारांत आशिल्ले. ताच्या उपरांत व्हर्नियर व्यासमापक, सूक्ष्ममापक, व्हर्नियर कोनमापक सारकिल्लीं उपकरणां कारखानदारांनी तयार केलीं. अशेतरेचीं उपकरणां सोदून काडपांत गॅसकोइन, रॉबर्ट हूक, हेन्री मॉडस्ले, जो झेफ व्हिटवर्थ, जे. एल्. पामर, याकोप आम्सलर, सी. ई. योहानसन हाणीं म्हत्वाचें काम केलां. आंरी पीटो हाणें वायूच्या जांव दव्याच्या प्रवाहाचो वेग मेजपाचें उपकरण १७३२त सोदून काडलें. ते उपरांत बूरदाँ (बोर्डन) दाबमापक उपकरणाचो सोद लागलो. एकोणिसाव्या शेंकड्यांत इंजिनाची शक्त मेजपाखातीर प्रॉनी शक्तिमापक हें एक नवें साधन तयार करपांत आयलें. ह्या यंत्राचो सोद बॅरन रीश द प्रॉनी हाणें १८३३ त लायलो.

विद्युत् अभियांत्रिकीची सुरवात मात १८२५-५० ह्या काळांत जाली. सतराव्या आनी अठराव्या शेंकड्यांतल्या शास्त्रज्ञांनी विजेच्या भाराचे कांय गुणधर्म पारखिल्ले. ओटो फोन गेरिक हाणें अशे विजेची पुरवण करपी यंत्र १६६०त सोदून काडलें. फ्रान्सिस हॉक्स्बी आनी स्टीव्हेन ग्रे, जॉन कँटन, आलेस्सांद्रो व्होल्टा आनी अब्राहम बेनेट हाणींय ह्या यंत्रांत कांय सुदारणा करपाखातीर म्हत्वाचे सोद लायले. पीटर व्हान मसेनब्रूक (१६९२-१७६१) हाणें 'लायडन बरणी'चो (विद्युत् भार साठोवपी साधन) सोद लायलो. १८७८त आर्. एल. जी. प्लांते हाणें गरजेप्रमाण वापरूंक येता अशा वीज साठोवपी घटाचो सोद लायलो. १८३१त मायकेल फॅराडे हाणें विद्युतीय आनी चुंबकीय मळांवेल्या अन्योन्य क्रियांचो उपेग करून यांत्रिक गती तयार केली. १८३२त पॅरिस हांगा ईपॉलीट पीक्सी हाणें विद्युत् चुंबकीय जनित्र तयार केलें. मागीर सॅक्सटन, लायपसिकचे ई. श्टन्हेर, डॅनीश अभियंतो सोरेन होर्थ आनी जायत्या हेर शास्त्रज्ञांनी अशातरेचीं यंत्रां तयार केलीं. आन्तॉन्यो पाचिनॉत्ती हाणें १८६०त पयलो एकदिश डायनामो तयार केलो. १८९३त जॉर्ज वेस्टिंगहाउस हाणें नायगारा धबधब्याचेर जलशक्तिकेंद्रांत प्रत्यावर्ती जनित्रां वापरलीं. एस्. झेड्. फेरांटी (१८६४-१९३०) हाणें लंडनच्या वीज पुरवठ्याखातीर डेटफर्ड हांगा शक्तिकेंद्र १८८९त बांदलें.

विजेचे दिवे तयार करपांत टॉमस एडिसन (१८४७-१९३१) हो अमेरीकी संशोधक मुखार आशिल्लो. ताच्या पयल्या दिव्यांत ताणें कोंड्याचो कार्बनीकृत तंतू वापरिल्लो आनी तो निर्वात कंवचेच्या गुळ्यांत घाल्लो. ताचो हो दिवो २१ ऑक्टोबर १८७९ दिसा तयार जालो. ताच्या उपरांत १८९८त ऑस्मियमाच्या तंतूचे, विसाव्या शेंकड्याचे सुरवातेक टँटॅलमाच्या तंतूचे आनी शेवटाक १९११त टंगस्टनाच्या तंतूचे दिवे प्रचारांत आयले.

विद्युतीय जांव विद्युत् चुंबकीय तरंगांचो सोद लागल्या उपरांत तांच्या उपेगाचो सोद करपी गूल्येल्मो मार्कोनी (१८७४-१९३७) हो पयलो शास्त्रज्ञ. १८९७ च्या मे म्हयन्यांत रेडीओन पांच किमी. पयस संकेत धाडपांत ताका यश फाव जालें. १९१० मेरेन सबंद अटलांटिक महासागर रेडिओ संदेश प्रेशणाच्या टप्प्यांत आयिल्लो आनी बोटींचेरय रेडिओ संदेशवहन वापरपांत येतालें.

हर्ट्झ हाच्या विद्युत् चुंबकीय तरंगांच्या सोदाउपरांत १९०४ च्या सुमाराक जॉन ॲंब्रोज फ्लेमिंग हाणें एडिसन परिणामाचो उपेग करून पयली द्विप्रस्थी तापायनिक नलिका तयार केली. तशेंच १९२० उपरांत सार्वत्रिक रेडिओ प्रेशण सुरू जालें. १९२७त दूरचित्रवाणी प्रायोगिक तरेन अवतरली. हातूंतल्यानच फुडें इलेक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शक, इलेक्ट्रॉनीय प्रयुक्तींच्या आदारान यंत्रांचें नियंत्रण, संगणक, सूक्ष्मतरंग दूरध्वनी सारकिल्लीं यंत्रां आधुनीक काळांत वापरांत आयलीं आनी १९४८त ट्रँझिस्टरय तयार केलो.

आधुनीक काळांत तंत्रविद्येची प्रगती सगळ्या दिकांनी जावपाक लागल्या. रशियेन ४ ऑक्टोबर १९५७ दिसा पयलो कृत्रीम उपग्रह अवकाशांत सोडून अवकाश युगांत पावल दवरलें. उश्णता संक्रमणाच्या

मळाचेरय यांत्रिक अभियंत्यांनी म्हत्वाचें काम केलां. ह्या काळांतले तंत्रविद्येक आनीक एक म्हत्वाचें यश फाव जालें तें म्हळ्यार अणुकेंद्रीय विक्रियकांची उबारणी आनी तांच्या अणुकेंद्रीय भंजनाकलागून निर्माण जावपी उश्णतेचो वीज उत्पादनाखातीर केल्लो उपेग हें जावन आसा. अशे तरेचीं संयंत्रां ब्रिटन, अमेरिका सारकिल्या देशांनी बांदल्यांत. अशें पयलें संयंत्र इंग्लंडांत कॉल्डर हॉल हांगा १९५७त तयार जालें. १९६० मेरेन हे पद्दतीचो प्रसार जावन जर्मनी, रशिया, फ्रान्स, इटली, जपान, भारत ह्या देशांनीय अशीं संयंत्रां उबारपाक सुरवात जाली. अमेरिकेंत तर अणुशक्तीचेर चलपी पाणबुड्योय बांदल्यात.



अवकाशयान

वैजकी मळारय आयज जायते नवे नवे सोद लागल्यात. नवीं नवीं वखदां आनी यंत्रांच्या सोदाक लागून व्हड व्हड दुयेसांलेगीत बरीं जावपाक लागल्यांत.

**परिणाम :** तंत्रविद्येन मनशाच्यो गरजो भागोवपाखातीर खूब सुविधा निर्माण केल्यो. ह्या सुविधांवरवीं मनशान आपली सर्वांगी उदरगत साधून घेतली. फातरापसून सुरवात करून तंत्रविद्येन मनशाच्या हातांत इलेक्ट्रॉनीक हाडून दिलो. झाडाच्या पानांच्या खोपीचो आलाशिरो घेवपी मनशाक पंचतारांकीत राबित्याची सोय करून दिली. मनात येता तें भोगपाचो तंत्रविद्येन मनशाक वर दिलो.

तंत्रविद्या जशी जशी विकसीत जायत गेली तशी तशी तिची गरज म्हणून आनी परिणाम म्हणून मनशाच्या वेव्हारांत क्रांतीकारी बदल जालो. तंत्रविद्येन मनशाच्या हातांत वेगवेगळ्या तरेच्यो शक्ती दिल्यो. ह्या शक्तींचो विधायक कामाखातीर उपेग जातनाच विध्वंसक कामाखातीर उपेग करप जालो. अणुशक्तीचो अणुबाँबाखातीर उपेग करून संवसारांत दोन म्हाझुजां घडलीं. आयचे घडयेक बऱ्याच राष्ट्रांकडेन जीं संहारात्मक अस्त्रां आसात तीं तंत्रविद्येची देणगी आसा.

लोकसंख्येची वाड करपाक तशेंच तिचें नियंत्रण करपाक तंत्रविद्येन हातभार लायला. वैजकी मळार जाल्लो विकास, अन्न धान्याच्या बाबतींत जाल्ली सुदारणा, हुंवार, भूंयकांप, रोगराई आनी हेर सैमीक अवर्शणाचें केल्लें नियंत्रण, हाका लागून मरण प्रमाण उणें जावन लोक संख्येंत भर पडत आसा. हेच तंत्रविद्येच्या आदारान दुसरेवटेन कुटुंब नियोजन जाता आशिल्ल्यान लोकसंख्येचेर नियंत्रण पडटा.

शारीकरण ही एक तंत्रविद्येची उपनिर्मिती, जंय तंत्रिकरणाचो वेग वाडला. शारिकरणातल्यान समाजीक मांडावळीक बादा हाडल्या. समाजीक रचणूक आनी समाजीक संबंद हातूंत बरे तशे वायट बदल घडोवन हाडल्यात.

तांत्रिक कारणान पर्यावरणांत बादा हाडून समाजांत स्वास्थ्याचो प्रश्न निर्माण केला. तंत्रविद्येवरवीं व्हड व्हड सोद लावन मनशाखातीर केल्ल्या सुविधांचो लाव घेवपाखातीर जें एक समाजीक, मानसीक आनी पर्यावरणीय स्वास्थ्य लागता तेंच तांत्रिकरणांतल्यान नश्ट जाल्ल्यान तंत्रविद्या हो वर काय शाप हाचेर सद्या बुदवंतांची भासाभास चालू आसा.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : तांत्रिक शिक्षण

: ताम्रपाशाणयुग

**तंत्रशास्त्र :** अध्यात्म गिन्यानाचो वा तत्त्वगिन्यानाचो विस्तार करपी शास्त्र. तत्त्व आनी मंत्र हांणी युक्त अशा व्यापक अर्थांचो विस्तार करपी आनी साधकाचें, साधनेचे वरवीं परित्राण करपी जें शास्त्र आसा, ताका तंत्र अशें म्हण्टात. देवतेच्या रूप – गुण – कर्माचें चिंतन – मनन, देवताविशीच्या मंत्रांचो उपदेश, मंत्रांची संयोजना हांची जातूंत म्हायती आसता, ताका तंत्र अशें म्हण्टात. व्यापक अर्थान सांगपाचें जाल्यार शास्त्र, सिध्दांत, अनुष्ठान, विज्ञान ह्यो गजाली जातूंत सांगल्यात, ताका तंत्र अशें म्हण्टात. तंत्राक आगम अशें दुसरें नांव आसा.

तंत्रशास्त्रांत तंत्रांचे फुडले तीन विभाग सांगल्यात.

(१) आगम : सृश्ट, प्रलय, देवतापुजा, पुरश्ररण, षट्कर्मसाधन आनी चतुर्विध ध्यानयोग हांचें वर्णन आशिल्ल्या ग्रंथांक आगम अशें म्हण्टात.

(२) यामल : सृश्टीतत्त्व, ज्योतिश, नित्यकृत्य, क्रम, सूत्र, वर्णभेद आनी युगधर्म हांचो विचार जातूंत केला, त्या ग्रंथांक यामल अशें म्हण्टात.

(३) तंत्र : सृश्ट, लय, मंत्र – यंत्रनिर्णय, तीर्थ, आश्रमधर्म, कल्प, ज्योतिश, व्रत, शौचाशौच, दादल्या – बायलांचें लक्षण, राज – दान – युगधर्म, वेव्हार, अध्यात्म, स्नानविधी, भू – भूतशुध्दी, प्राणायाम, न्यास, जप, तर्पण, पुजा, दीक्षा, अभिशेक, प्रायश्चित, चक्रपुजा, मुद्रा ह्या गजालींचें वर्णन ज्या ग्रंथांत आसा, तांका तंत्र अशें म्हण्टात.

क्रिया हें तंत्रांचें खाशेलपण. वेदीक ग्रंथांत सांगिल्ल्या ज्ञानाचें क्रियात्मक रूप प्रगट करप, हो तंत्रांचो हेत. वेगवेगळ्या साधनांवरवीं देवता आनी सैमीक शक्ती हांकां होरावप, योगावरवीं भितल्ल्या शिवशक्तीचें मिलन घडोवन हाडप आनी मनशाच्या जिवात्म्याचेर वेगवेगळे संस्कार करून ताका दिव्य भावाचे अवस्थेंत व्हरून अद्वैतरूप आत्मज्ञानाचो साक्षात्कार घडोवप, हो तंत्रांचो हेत.

वेदीक काळांत यज्ञयागां वांगडा तंत्रीक पद्दतीय प्रचारांत आशिल्ल्यो, अशें म्हण्टात. छांदोग्यांतली मधुविद्या ही तंत्रीक रहस्यात्मकूच आसा.

भारतांत अध्यात्मीक मळार तंत्रमार्गान म्हत्वाची सुवात मेळयल्या.

कांय तंत्रीक आचार ऋग्वेद काळांतूय रूढ आशिल्ले, अशें जाणकारांचें मत आसा. अथर्व वेदाचो आनी तंत्राचो संबंद सामको लागींचो आसा. भारतीय झुजाउपरांतच्या आनी बुध्दा पयलींच्या अशा सुमार दोन हजार वर्सांच्या काळांत भारतांत तंत्रधर्म सगल्याक चलतालो. महाभारताच्या शांतीपर्वांतूय तंत्रीक परिभाशा वापरिल्ली दिसता. मध्ययुगांतल्या धर्मीक साहित्यावयल्यान कळटा, तंत्रांक अवैदीक मानपाची प्रथा आशिल्ली. पूण फुडें भौसांत तांचो प्रसार वाडिल्ल्यान ब्राह्मणांनीय तांचो स्विकार करून तांचें म्हत्व वाडयलें.

तंत्रशास्त्र हें वेगवेगळ्या लोकवेदांचें, देव - देवतांचें आनी लोकप्रचलीत अनुश्ठानांचें विकसीत रूप. मध्ययुगांत हो लोकधर्म सगल्याक पातळ्ळो आनी चडशा संप्रदायांनी ताचो स्विकार केलो. वैदिकांचे संध्येंतूय तंत्रीक प्रक्रिया आयल्यो. ल्हव ल्हव तंत्रीक साधना तयार जाल्यो. तंत्रीक साधनेंत वेळोवेळ विदेशी आचारांचोय प्रभाव पडलो, अशें दिसता. हो विदेशी प्रभाव इ. स. आठव्या ते बाराव्या शतमानांचे मजगतीं पडलो आसूंक जाय. कारण त्या काळांत चीन, तिबेट, मोंगोलिया, गांधार, ह्या देशांकडेन भारताचें दळणवळण चलतालें.

तंत्रसाहित्य हें खूब पुर्विल्लें, विशाल आनी व्यापक. ॲव्हॅलॉन हाच्या मताप्रमाण तंत्रग्रंथांचो आंकडो एक लाखापरस चड आशिल्लो. वाराही तंत्राच्या मताप्रमाण देव, ब्रह्म आनी पाताळ ह्या तीन लोकांमदीं तंत्राचे णव लाख श्लोक आसून, भारतांत एक लाख आसात. ॲव्हॅलॉनच्या माताकडेन हें मत जुळटा. कांय तंत्रग्रंथ खुबूच पोरणे म्हळ्यार इ. स. पयल्या शतमानांतले आसात. कांय गुप्तकालीन लिपींत बरयल्ले आसात. दक्षिण भारतांतल्या शैव आगमांचो उल्लेख पल्लव राजांच्या सव्या शतमानांतल्या शिलालेखांत आसा. बौध्द तंत्रांचो आंकडो बरोच व्हडलो आसून, तातूंतलीं कितलींशींच इ. स. पयल्या शतमानांतलीं आसात. सातव्या आठव्या शतमानांनी कितलींशींच बौध्द तंत्रां तयार जालीं. इ. स. च्या आठव्या शतमानांत गुप्त लिपींत बरयल्लो 'श्वासतंत्रसंहिता' नांवाचो एक ग्रंथ नेपाळांत सांपडलो.

उपनिषदां, सुत्रां, मूलतंत्रां, सारग्रंथ, विधी - विधानसंग्रह, विवरणात्मक ग्रंथ आनी स्वतंत्र प्रबंध अशे तंत्रांचे वेगवेगळे प्रकार आसात. शैव, शाक्त आनी वैष्णव ह्या पंथांचीं बरींच तांत्रिक उपनिषदां उपलब्ध आसात. कितल्याशाच तांत्रिक ग्रंथांची रचना बंगालांत जाली. बंगाली तांत्रिकांनी तंत्रमार्गांतल्यान अनैतिक वामाचार सोडले आनी तांत्रिक विधींक नवो अर्थ प्राप्त करून दिलो.

शैव, शाक्त, गाणपत्य, सौर, वैष्णव ह्या विंगड विंगड संप्रदायांच्यो तांत्रिक देवता वेगवेगळ्यो आसात. शैव तंत्रांत आदिनाथ महाकाल हो मुखेल. गाणपत्य तंत्रांत महागणपती, विरिगणपती, शक्तीगणपती, विद्यागणपती, हरिद्रागणेश, उच्छिष्ट गणेश, लक्ष्मी विनायक, हेरंब, बक्रतुंड, एकदंत, महोदर, गजानन, लंबोदर, विकट आनी विघ्नराज ह्या गणपतीच्या रूपांची उपासना चलता. सौर तांत्रिक देवतांमदीं व्हडलीशी विविधताय ना. चंद्र, मार्तंडभैरव आनी अग्नी हे तीन देव सुर्याकडेन संबंदीत आसात. वैष्णव तंत्रांत विष्णूचे कितलेशेच अवतार आनी जायतीं रूपां ह्यो देवता थारल्यात. लक्ष्मीवासुदेव वा लक्ष्मीनारायण हें वैष्णव तंत्रांतलें विष्णूचें मुखेल रूप. शाक्त तंत्रांत विद्या आनी नित्या अशे देवतांचे दोन मुखेल प्रकार मानल्यात. शाक्त तंत्रांत कालीचे कितलेशेच भेद आनी रूपां सांगल्यांत. वेगवेगळ्या आधिभौतिक आनी आध्यात्मिक शक्तींचे प्राप्तीखातीर शक्तीदेवतेच्या ह्या रुपांची उपासना करतात.

**जैन तंत्रां** - जैन तांत्रिक शक्तीसिध्दांत मानतात. दरेक पदार्थांत शक्त आसा आनी आत्मो अक्षय आनी अनंत शक्तीचो कोश आसा. देव - देवतेचें ध्यान केल्यार ती देवता मूर्तरूप जाता आनी मागीर ते मुर्तीतल्यान शक्तीचो प्रवाह उत्पन्न जाता, अशें जैन तांत्रिकांचें मत आसा. जैन तांत्रिकांनी मनशाचे मानसिक शक्तींची विस्कटावणी करून तंत्रसाधने वरवीं त्यो शक्ती विकसीत करपाचेर भर दिला.

भक्ती, आचार क्षेत्रांतलें गुरूचें माहात्म्य, मंत्र, बीज, कुंडलिनीयोग, मुद्रा, उत्सव ह्यो गजाली हेर तंत्रांप्रमाणूच जैन तंत्रांतूय आसात. जैन तंत्रांत पंच मकार दिवंचे प्रयोग मात वर्ज्य मानला.

जैन तंत्राचें पुर्विल्लेंपण पार्श्वनाथाच्या काळाइतलें पोरणें. जैन मंत्रसाधकांत पार्श्वनाथाचे पुजेक खूब म्हत्व आसा. भद्रबाहू हो तंत्रसाधनेच्या आद्याचार्यांतलो एक अशें मानतात. इ. स. तिसऱ्या शेंकड्यासावन इकराव्या शेंकड्यामेरेन मानवदेवसूरी, वादिवैताल शांतीसूरी, सिध्दसेन दिवाकर, मानतुंगसूरी, हरिभद्रसूरी, सीलगुणसूरी, बाणभट्टिसूरी, वीरमणी, शांतीसूरी आनी सुराचार्य ह्या जैन तंत्राचार्यांनी मंत्रविद्येचो प्रसार केलो.

इ. स. च्या इकराव्या शेंकड्याउपरांत यशोभद्रसूरी, अभयदेव, वीराचार्य, जिनदत्त, वादिदेव, मलयगिरी, सागरचंद्र, धर्मघोष, पूर्णकलशगणी, जिनप्रभ, मेरूतुंगसूरी, जिनचंद्र, शांतीचंद्र, यशोविजय, मेघाविजय, वीरविजय हे जैन मंत्रज्ञ जावन गेले. आर्विल्ल्या काळांत मोहनलाल, शांतीविजय आनी जयसिंहपूरी हीं नांवां उल्लेख करपासारकीं आसात.

जैन तांत्रिकांचे सगले बीजमंत्र 'ह' ह्या अक्षरान सुरू जातात. तांच्या सगल्या मंत्रांमदीं 'परमेष्ठीमंत्र' हो पवित्र अशें मानतात. जैनांच्यो तांत्रिक देवता अश्यो: सरस्वती, अंबिका, कुबेरा, पद्मावती, सिध्दार्यिका, इंद्राणी, विधिप्रभा, अक्षुप्ता आनी चक्रेश्वरी.

**बौध्द तंत्रां** : स्वतः गौतम बुध्द हो तांत्रिक तत्त्वांचो पुरस्कार करपी आशिल्लो, अशें डॉ. विनयतोष भट्टाचार्य हाणें म्हळां. तत्त्व संग्रहाचो कर्तो शांतरक्षित आनी टिकाकार कमलशील हाणें बुध्दाक स्पश्टपणान तंत्रप्रवर्तक अशें म्हळां.

इसवी सनाच्या सुरवातीच्या काळांतूच बौध्द साहित्यांत तांत्रिक तत्त्वांची चर्चा सुरू जाल्ली दिसता. बौध्द तंत्रमार्गाच्या वेगवेगळ्या आंगांची विस्कटावणी करपी पयलो म्हत्वाचो ग्रंथ म्हळ्यार 'मंजूश्रीमूलकल्प'. हो ग्रंथ शाक्यमुनी आनी मंजूश्री हांच्या संवादांतल्यान प्रगट जाला. तातूंत मंत्रसाधना, यक्षयक्षिणी, साधनेंतलें बायलेचें म्हत्व, मुद्रा, मंडल, अभिशेक, अभिचार ह्या गजालींची विस्कटावणी आयल्या. बौध्द तंत्राचेर सुरवातीक सावन शैव प्रभाव आशिल्लो. बौध्द तांत्रिकांनी विष्णू आनी रुद्र ह्या दोन देवांचो स्विकार केला. इ. स. चवथ्या शतमानापयलीं 'तथागतगुह्यकतंत्र' वा 'गुह्यसमाजतंत्र' हो आनीक एक म्हत्वाचो तांत्रिक ग्रंथ तयार जालो. ह्या ग्रंथांत शुन्यवाद आनी विज्ञान हांच्याा अधिष्ठानाचेर तांत्रिक बौध्दमताचें स्वरूप उकतायलां. हे उपरांत कितल्याशाच शास्त्रकारांनी तंत्रसाधनेचेर शेंकड्यांनी ग्रंथ बरयले.

बौध्द तंत्रां संस्कृत भाशेंतूच रचल्यांत. हिंदू तंत्रां जशीं शिवोक्त समजतात. तशीं बौध्द तंत्रां बुध्दोक्त अशें समजतात. मुखेल बौध्द तंत्रांचीं नांवां अशीं - प्रमोदमहायुग, परमार्थसेवा, पिंडीक्रम, संपुटोद्भव, हेवज्र,

बुध्दकपाल, संबर वा संबरोदय, वाराही वा वाराहीकल्प, योगांबर डाकिनीजाल, शक्लयमारी, कृष्णयमारी, पीतयमारी, रक्तयमारी, श्यामयमारी, क्रियासंग्रह, क्रियाक्रंद, क्रियासागर, क्रियाकल्पद्रुम, क्रियार्णव, अभिधानोत्तर, क्रियासमुच्चय, साधनमाला, साधनसमुच्चय, साधनसंग्रह, साधनरत्न, साधनपरीक्षा, साधनकल्पलता, तत्त्वज्ञान, ज्ञानसिध्दी, गृह्यसिध्दी, उद्यान, नागार्जुन, योगपीठ, पीठावतार, कालवीर वा चंडरोषण, वज्रवीर, वज्रसत्त्व, मरीची, तारा, वज्रधातू, विमलप्रभा, माणिककर्णिका, त्रैलोक्यविजय, संपुट, मर्मकालिका, कुरूकुल्ला, भूतडामर, कालचक्र, योगिनी, योगिनीसंचार, योगिनीजाल, योगांबरपीठ, उड्डामर, वसुंधरासाधन, नैरात्म, डाकार्णव, क्रियासार, यमांतक, मंजुश्री, तंत्रसमुच्चय, क्रियावसंत, हयग्रीव, संकीर्ण, नामसंगीती, मायाजाल, अमृतकर्णिकानामसंगीती, गूढोत्पादनामसंगीती, ज्ञानोदय, वसंततिलक, निष्पन्नयोगांबर आनी महाकाल.

तंत्रशास्त्र हें मुळांत एक साधनशास्त्र. तंत्रांतूय कितलेशेच संप्रदाय आसात. तांचे आचारपध्दतींतूय बरेंच वेगळेपण आसा. पूण सगळ्या संप्रदायांनी प्रत्यक्ष साधनेक म्हत्व दिलां. साधकाक पयली गरज लागता ती गुरूची. गुरु हें दीक्षेचें मूळ, दीक्षा हें मंत्राचें मूळ, मंत्र हे देवतेचें मूळ आनी देवता हें सिध्दीचें मूळ अशी ही परंपरा आसा. हे परंपरेंत गुरू पयलो येता, गुरू हो योगमार्गी, साक्षात्कारी आनी आपलें बळगें शिश्याक दिवपी योग्यतायेचो आसूंक फावो. तंत्रशास्त्र सांगता, शिश्यान गुरूक ईश्वरस्वरूप मानचो आनी तो ईश्वरी शक्तीचो प्रतिनिधी आसा, अशें समजुचें. गुरु ज्या मंत्राची दीक्षा दिता, त्या मंत्राच्या जपान इश्ट देवतेची सिध्दी जाता.

तंत्रमार्गांत साधकाचे पशुभाव, वीरभाव आनी दिव्यभाव अशे तीन भाव मानल्यात. जे जीव अज्ञानी आसतात आनी जांकां अद्वैतज्ञानाची कांयच खबर आसना, ते अवस्थेक पशुभाव अशें म्हण्टात. ज्या जिवाक अद्वैतज्ञानाचो थोडोभोव साक्षात्कार जाला, ताका वीरभाव प्राप्त जाला अशें म्हण्टात. वीरभाव मेळोवन साधना करतकच द्वैतभाव पयस जाता. मागीर तो साधक उपास्यदेवतेच्या अस्तित्वांत आपलें अस्तित्व विलीन करता. हे अवस्थेक दिव्यभाव अशें म्हळां.

तंत्रशास्त्रांत सांगिल्ले सात आचार अशे - वेदाचार, वैष्णवचार, शैवाचार, दक्षिणाचार, वामाचार, सिध्दांताचार आनी कौलाचार. तांत्रिक साधना करूंक सोदतल्या साधकाक पयलीं गुरूकडल्यान मंत्रदीक्षा घेवंची पडटा. तंत्रसाधनेंत दीक्षा ही एक म्हत्वाची गजाल. दीक्षेबगर मंत्रजप, पुजा, होमहवन ह्यो सगल्यो गजाली निर्फळ थारतात. शिश्याच्या अंतरांत शक्तीपात जातकच ताका निर्वाणदीक्षेचो अधिकार प्राप्त जाता. हातूंत गुरु शिश्याक शिवपदाच्या पांवड्यार पावयता. आगमग्रंथांत वट्ट इकरा प्रकारच्यो दीक्षा सांगल्यात. त्यो अश्यो - कला, एकतत्त्व, त्रितत्त्व, पंचतत्त्व, नवतत्त्व, छत्तीसतत्त्व, पद, मंत्र, वर्ण, भुवन आनी केवलभुवन.

तंत्रशास्त्रांत सोरो (मद्य), मांस, नुस्तें (मीन), मुद्रा आनी मैथुन ह्या पांच प्रकारांक पंच मकार वा पंच तत्त्वां अशें म्हण्टात. हे पंच मकार उपेगांत हाडून इश्ट देवतेची तांत्रिक पुजा करचेली आसता. वाममार्गी शाक्त आपले पुजेंत पंच मकारांचो उपेग करतात. दक्षिणमार्गी तो करिनात. पंच मकार हे एकांतांत व्यक्तीगत रुपान आनी चक्रांत सामुदायिक रुपान उपेगांत हाडटात. 'चक्रपुजा' हो तांत्रिक साधनेंतलो एक म्हत्वाचो विधी. पुनव, संक्रांत, चतुर्दस, अश्टम ह्या रातींकडेन सामुहिक रूपान ही पुजा करतात.

तंत्रसाहित्यांत जांणी मोलाची भर घाली आनी जे तंत्राचार्य म्हणून तांत्रिक संप्रदायांत नामनेक पावले, त्या मुखेल आचार्यांचीं आनी तांच्या ग्रंथांचीं नांवां अशीं : गौडपादाचार्य (सुभगोदयस्तुती आनी श्रीविद्यारत्नसूत्र), लक्ष्मणदेशिक (शारदातिलक, ताराप्रदीप), शंकराचार्य (प्रपंचसार, सौंदर्यलहरी), पृथ्वीधराचार्य (भुवनेश्वरी रहस्य), चरणस्वामी (श्रीविद्यार्थदीपिका, प्रपंचसारसंग्रह), राघवभट्ट (शारदातिलकाचेर टिका), पुण्यानंद (कामकलाविलास), अमृतानंदनाथ (सौभाग्यसुभगोदय), सुंदराचार्य (ललितार्चनचंद्रिका), विद्यानंदनाथ (शिवार्चनचंद्रिका, क्रमरत्नावली), सर्वानंदनाथ (सर्वोल्लासतंत्र), ब्रह्मानंद (शाक्तानंदतरंगिणी आनी तारारहस्य), पूर्णानंद (श्रीतत्त्वचिंतामणी, श्यामारहस्य), गोरक्ष (महार्थमंजरी, परास्तोत्र, पादुकोदय), सुभगानंद (षोडशनित्या), प्रकाशानंद (विद्योपास्तिमहानिधी), कृष्णानंद (तंत्रसार), महीधर (पंचमहोदधी), गौडीय शंकर (तारारहस्यवृत्ती आनी शिवार्चनमाहात्म्य), भास्करराय (सौभाग्यभास्कर, सौभाग्यचंद्रोदय), प्रेमनिधी (दीपप्रकाश आनी कांय टिकाग्रंथ), उमानंद (हृदयामृत आनी नित्योत्सवनिबंध), रामेश्वर (सौभाग्योदय), शंकरानंद (सुंदरीमहोदय), अप्पय्य दीक्षित (सौभाग्यकल्पद्रुम), देवनाथ ठाकूर (सप्तकौमुदी, मंत्रकौमुदी, तंत्रकौमुदी), ग्रीवानेंद्र (प्रपंचसारसंग्रह), रघुनाथ तर्कवागीश (आगमतर्कविलास), यदुनाथ चक्रवर्ती (पंचरत्नाकर आनी आगमकल्पकता), नरसिंह ठाकूर (ताराभक्ती सुधार्णव), गोविंदन्यायवागीश (मंत्रार्थदीपिका), काशीनाथ तर्कालंकार वा शिवानंद (श्यामासपर्याविधी, तंत्रराजटीका, तंत्रसिध्दांतकौमुदी, मंत्रराजसमुच्चय).

- कों. वि. सं. मं.

**तंत्रिका तंत्र** (Nervous system) : जिवांच्या भोंवतणच्या पर्यावरणांत जे बदल घडटात तांचेकडेन जुळोवन घेवंक लावंक शक्त दिवपी कुडी भितरलें, संपर्क सादपाचें मज्जातंतुचें एक जाळें. जिवांच्यो साद्यो जाती सोडल्यो जाल्यार चड करून सगळ्या जिवांत विशिश्ट मांडणी आशिल्लें अशें एक तंत्रिका तंत्र आसता.

ज्या जिवांक फाटिच्या कण्याचें हाड नासता, तांच्या तंत्रिका तंत्राची मांडणी एक सादें मज्जातंतुचें जाळें धरून तें एक बरे तरेन आखिल्लें आनी मज्जातंतुच्या दोरयांनी घडिल्लें तंत्र आनी एक मुळावो मेंदू (Primitive Brain) अशें आसूं येता.

मनीस जातींत आनी फाटीच्या कण्याचें हाड आशिल्ल्या जिवांत तंत्रिका तंत्र हें तीन घटकांनी घडिल्लें आसता.

१) मेंदू (Brain)
२) मेरूरज्जू (Spinal Cord)
३) मज्जातंतू (Nerves)

मनशाचे तंत्रिका तंत्र चड करून ताचो वाड जाल्लो मेंदू ताका हेर प्राण्यांपसून वेगळायता. तशें पळोवंक गेल्यार मनशाचो मेंदू हो एका किचकटिच्या संगणकावरी चलता. जो मनशाक उलोवंक, तरेकवार प्रस्न सोडोवंक आनी नव्यो गजाली निर्मूंक हातभार लायता.

तंत्रिका तंत्र हें मनशाचे कुडींत आपल्यो अशो खाशेल्यो वाटो निर्मिता जांचे वरवीं एके व्यक्तिचे भोंवतणी जें कितें घडटा ताची म्हायती मेंदवामेरेन पावंक सोपें जाता. मेंदू मागीर वेगळ्या वाटांनी आपल्यो शिटकावण्यो

## तंत्रिका तंत्र

मनशाच्या तरेकवार स्नायू मेरेन धाडटा जांकां लागून मनशाची कूड ते म्हायतीक दाद दिता.

मनशाचें तंत्रिका तंत्र भितरल्या घडामोडींचेरूय देखरेख दवरपाचें काम करता. देखीक - स्वास घेवप, पचन जावप, काळजाच्या ठेक्याची लय, व्यक्तिच्यो हालचाली, संवेदन शक्त, विचार आनी मानसिक स्थिती, ह्यो सगळ्यो भितरल्यो घडामोडी मनशाच्या तंत्रिका तंत्राक लागुनच बरे तरेन जावंक पावतात.

तंत्रिका तंत्रांचीं कामां : तंत्रिका तंत्र मनशाचे कुडींत जायतीं म्हत्वाचीं कामां करता. तातुंतलीं चड म्हत्वाचीं अशीं आसात :

(१) तंत्रिका तंत्र भायल्या पर्यावरणांत घडिल्ल्या घडामोडींची म्हायती घेता, तांची चिकित्सा करता आनी तातुंतल्यानूच मागीर दिश्टी पडप, दूख बादप, असले तरेच्यो संवेदना तयार जातात.

(२) तें मुखावयले म्हायतिची चिकित्सा करूंक फाटले म्हायतीची याद तयार करता आनी आपल्यांत सांठोवन दवरता.

(३) तें कुडिच्या वेगवेगळ्या भागां मजगती संदेशाच्या रुपान म्हायती पावोपाचें काम करता.

(४) तंत्रिका तंत्र स्नायुंची आनी ग्रंथिंची काम करपाची शक्त वाडयता वा उणीय करता. हें जें वाडोवप आनी उणें करप आसता तें जी म्हायती ताका मेळटा ताचेर अवलंबून आसता.

(५) तें आमचे कुडींत घडपी घडामोडी संबंदान म्हायती मेळयता आनी तातुंतल्या अवयवांची काम करपाची लय बरेतरेन राखता.

(६) ज्ञानेंद्रियांनी धाडिल्ल्या म्हायतिच्या आदारान तें आमकां दिश्टी पडूंक, वास घेवंक, रूच घेवंक, आयकूंक आनी वस्तू सासपून पळोवंक हातभार लायता. हीं ज्ञानेंद्रियां म्हळ्यार : दोळे, कान, नाक, जीभ आनी कुडिची कात. हांचे वतीन जीं आमकां म्हायती मेळटा तिचें गिन्यान ह्या तंत्रिका तंत्रापसूनच आमकां जाता.

मनशाचें तंत्रिका तंत्र हें मेजूंक लेगीत जावचें ना इतल्या ताच्या खाशेल्या पेशिंनी घडिल्लें आसता. ह्या पेशींक तंत्रिका कोशिका (Nerve cell) अशें म्हण्टात. तंत्रिका तंतु (Nerve fibres) आशिल्ल्या आनी पळोवंक दोरयांवरी दिसपी कवळ्यांक मज्जातंतू अशें म्हण्टात. हे मज्जातंतू मनशाचे कुडींत कितलेशाच वाटांचें एके तरेचें जाळेंच विणिल्लेवरी विणटात. ह्यो वाटो मनशाचे कुडींत बरेच गतीन म्हायती पावोवपाचें काम करतात.

खंयच्याय प्रसंगावेळार मनशाची जी एक प्रतिक्रिया जाता ती फकत एक खिणाभितर जाता. पूण ती तशी जावंक तंत्रिका तंत्रांत जायत्यो घडामोडी घडच्यो पडटात. देखीक - जेन्ना मनशाची नदर एका वागाचेर पडटा तेन्ना तो ताका पळेनाफुडे थंयच्यान पळटा. ताच्या तंत्रिका तंत्रांत असल्यो कसल्यो घडामोडी घडिल्ल्यान मनीस एका खिणान थंयचो पसार जाता?

खाशेल्यो तंत्रिका कोशिका जांकां आमी भायली म्हायती मेळोवपी तंत्रिका कोशिका अशें म्हण्टात, त्यो पेशी, मनशाच्या कानात, दोळ्यांत, आनी ताच्या कुडिच्या हेर म्हायती मेळोवपाच्या इंद्रियांनी आसतात. ह्या पेशींक मनशाचे भोंवतणी ज्यो घडणुको घडटात तांची जाणविकाय जाता. देखीक - जेन्ना मनीस वाघाक पळेता तेन्ना ताच्या दोळ्यांतल्या म्हायती मेळोवपी तंत्रिका कोशिकांक एके तरेची शिटकावणी मेळटा आनी त्यो जाग्यो जातात. तांकां जाल्ली ही जाणविकाय त्यो मागीर तांच्या तंत्रिका तंतूक कळयतात आनी ताचे मार्फत मेंदवाक धाडटात. ही जी म्हायती तांच्याकडल्यान मेंदवाक पावता तिका तंत्रिका कोशिकांकडल्यान गेल्लो संदेश अशें म्हण्टात. ह्या संदेशाची गती सेकंदाक १ ते ९० मीटर इतली आसूं येता. वाघाक जेन्ना आमी पळेतात तेन्ना आमच्या दोळ्यांत आसपी म्हायती मेळोवपी तंत्रिका कोशिका वाघाचेर आपटून आयिल्ल्या सूर्य किर्णांक दाद दितात आनी तांचें संदेशांत रुपांतर करतात. हे संदेश मागीर मेंदवात आनी मेरूरज्जूंत आसपी जुळोवणी करपी तंत्रिका कोशिका आनी संवेदनाच्यो तंत्रिका कोशिका (Sensory Neurons) मार्फत भोंवतात. मेंदवांत आसपी तंत्रिका कोशिका ह्या संदेशाचो स्विकार करतात. तांची चिकित्सा करतात. तांचो अर्थ लायतात आनी मुखार कसलीं पावलां उबारपाचीं तें थारायतात. वाघ पळेल्ल्याचो जो संदेश मेळटा ताचो अर्थ 'धोको' असो लागता. मनशाचो मेंदू संदेशाच्या रुपान रोखडीच आपली शिटकावणी धाडटा. 'धांव!' मागीर हो संदेश हालचाली करपी तंत्रिका कोशिकांमार्फत भोंवता. ह्या तंत्रिका कोशिकांक (Motor Neurons) अशें म्हण्टात. ह्यो तंत्रिका कोशिका मेंदवाकडले संदेश स्नायू आनी ग्रंथी ह्या अवयवांच्या पेशिंकडेन पावयतात. तांकां परिणाम घडोवपी तंत्रिका कोशिका अशें म्हण्टात. ह्यो तंत्रिका कोशिका मेंदवाकडल्यान आयिल्ल्यो शिटकावण्यो व्हरपाचें काम करतात. अशे तरेन पायांचो स्नायू ह्या शिटकावण्याक दाद दिता आनी वाघाक पळेनाफुडें थंयचो धावता. ताचेच वांगडा मेंदू आपले संदेश कुडिच्या हेर तरेकवार भागांनी धाडटा. देखीक - पायांच्या स्नायूंक चड प्रमाणांत रगताची पुरवण करूंक चड गतीन काम करपाचो संदेश काळजाक धाडटा.

मनशाचें तंत्रिका तंत्र हें तीन मुखेल भागांनी घडिल्लें आसता: केंद्रीय तंत्रिका तंत्र (Central Nervous System), भोंवतणचें तंत्रिका तंत्र (Periferal Nervous System) आनी स्वायत्त तंत्रिका तंत्र (Autonomic Nervous System) ह्या दर भागांचीं कामां वेगवेगळीं आसतात.



मनशाचें तंत्रिका तंत्र

मनशाचें तंत्रिका तंत्र:१. मेंदू २. कवटी ३. तृतीय नेत्र पिंड ४. परानुकंपी तंत्रिका तंत्र (मस्तिष्कीय विभाग) ५. अनुकंपी तंत्रिका तंत्र ६. परानुकंपी (त्रिक विभाग) ७. अनुत्रिक तंत्रिकामूल ८. त्रिकास्थी ९. पाचवो कटीय कशेरूक १०. बारावो वक्षीय कशेरूक ११. सातवो ग्रैव कशेरूक (मानेतलो) १२. पोषग्रंथी १३. ललाटास्थी.

केंद्रीय तंत्रिका तंत्र हें एका मुखेल स्वीचबोर्डावरी काम करता म्हणजे तें पुराय तंत्रिका तंत्राच्या घडामोडींचेर आपलें नियंत्रण आनी संपर्क दवरपाचें काम करता. केंद्रीय तंत्रिका तंत्र हें दोन अवयवांनी घडिल्लें आसता : मेंदू (Brain) आनी मेरुरज्जू (Spinal Cord). मेंदू हो एक चड किचकटीचो आनी गूढ असो अवयव आसता. ताका तीन मुखेल भाग आसतात. अंत्यमस्तिष्क (cerebrum), निमिस्तिष्क (cerebellum) आनी मेंदवाचें खोड (Brain Stem).

**अंत्यमस्तिष्क** : (Cerebrum) मेंदवाचो ८५% भाग हो अंत्यमस्तिष्कापसून घडिल्लो आसता. हो भाग मेंदवाच्या निमिस्तिष्क आनी मेंदवाचें खोड ह्या भागांवयर आसता आनी तांकां पुरायतरेन घेरता. हेर प्राण्यांपरस मनशाच्या मेंदवाच्या ह्या भागाची वाड चड प्रमाणांत जाल्ली आशिल्ल्यान ताका विचार करून पावलां उबारपी प्राणी अशें म्हण्टात, म्हणजे (Rational Animal). तो जें कितें आयकता, पळेता, रुच घेता, वास घेता, वस्त सांसपिता, ताची ताका मेंदवाच्या ह्या भागांतच जाणविकाय जाता. बरें कितें, वायट कितें, तें ताका ह्याच भागांत कळटा. तेभायर तो विचार करूंक शकता, भाशेचो वापर करूंक शकता, बरी-वायट गजाल ताच्या मनाचेर परिणाम करूंक शकता. मेंदवाचो अंत्यमस्तिष्क हो भाग मनशाचें गिन्यान मेळोवपाचें एक केंद्रच कशें आसता.




**मेंदू** : १. अंत्यमस्तिष्क २. निमिस्तिष्क ३. मेंदवाचें खोड

**निमिस्तिष्क (cerebellum) :** हो मेंदवाचो फाटलो आनी पोंदचो भाग. हाचो आंवांठ एके मोसंबेयेदो आसता. मेंदवाचो हो भाग मातसोसो मेंदवाच्या खोडावयर आसता. तो कुडिचो तोल सांबाळपाचें काम करता आनी ज्ञानेंद्रियांमार्फत जी म्हायती मेळटा तिचेकडेन स्नायुंच्या हालचालिंचो मेळ जुळयता.

**मेंदवाचें खोड :** हो भाग मनशाचे तकलेचे कवटे पोंदा मेरुरज्जूकडेन जोडिल्लो आसता. ह्या मेंदवाच्या खोडांतल्यो तंत्रिका कोशिका आसतात त्यो ज्ञानेंद्रियांकडल्यान आयिल्ली म्हायती पावोवपाचें काम करतात. तशेंच मनशाचे कुडींत आपले आपुणूच घडपी घडामोडींचेर नियंत्रण दवरतात. देखीक - तोल, रगताचो दाब, स्वासोस्वास आनी काळजाचे ठेके.

मेरुरज्जू हो मानेकडल्यान २/३ इतलो फाटिच्या कण्यात सकयल देवपी, तंत्रिका कोशिकाचो एक केबलच कसो आसता. ल्हान ल्हान मणया असल्या हाडांनी घडिल्लो हो फाटिचो कणो मेरुरज्जूंक चोंयवटेन घेरता आनी ताका बरेतरेन सांबाळटा. ह्या मेरुरज्जूत आसपी कांय वांटो मेंदवाकडल्यान आयिल्ल्यो फर्मावण्यो, हालचाली घडोवपी तंत्रिका कोशिकांक कळयतात आनी कांय वाटो इंद्रियांकडल्यान मेळिल्ली म्हायती (Sensory information) मेंदवाकडेन व्हरपाचें काम करता.

**भोंवतणचें तंत्रिका तंत्र (Peripheral Nervous System) :** हें केंद्रीय तंत्रिका तंत्र आनी कुडीचे हेर भाग हांचे मजगती संदेश व्हरपाचें काम करता. हे तंत्रिका तंत्र मेंदवांतल्यान भायर सरपी मज्जातंतुच्या १२ जोडयांनी आनी मेरुरज्जुंतल्यान भायर सरपी मज्जातंतुच्या ३१ जोडयांनी तयार जाल्ले आसतात. ह्यो मेंदवाच्यो आनी मेरुरज्जूच्यो मज्जातंतू कुडिंतल्यो म्हायती मेळोवपी तंत्रिका कोशिका आनी हालचाल घडोवपी तंत्रिका कोशिका हांचेकडेन आनी तांचेकडल्यान म्हायती व्हरपाचें काम करतात.

**स्वायत्त तंत्रिका तंत्र (Autonomic Nervous System):** हें तंत्रिका तंत्र म्हळ्यार भोंवतणच्या तंत्रिका तंत्राचो एक खाशेलो भाग. स्वायत्त तंत्रिका तंत्र हें मनशाचे कुडींत आपले आपूण घडपी ज्यो क्रिया आसतात (Involuntary functions). देखीक - स्वास घेवपा - सोडपाची क्रिया, पचन जावपाची क्रिया हांचेर मेंदवाक मंद पडूंक दिनासतना नियंत्रण दवरपाचें काम करता, जाका लागून कुडिभितरलें पर्यावरण एकसारकें उरूंक सोपें जाता. स्वायत्त तंत्रिका तंत्राक अनुकंपी तंत्रिका तंत्र (Sympathetic Nervous System) आनी परानुकंपी (Parasympathetic Nervous System) अशे दोन भाग आसतात.

अनुकंपी तंत्रिका तंत्र हें ऐनवेळार उप्रासपी कुडिच्यो गरजो भागोवपाचें काम करता. देखीक : जेन्ना कुडिवयलो कामाचो ताण वाडटा वा तिका कसल्याय आकांताच्या प्रसंगाक तोंड दिवचें पडटा तेन्ना अनुकंपी तंत्रिका हे मनशाच्या काळजाच्या ठेक्यांची लय वाडयता. स्नायूंक आलायतें रगत धाडपाचें काम करता आनी दोळ्यांतल्यान उजवाड भितर सोडपी बुराकाचो घेर वाडयता.

परानुकंपी तंत्रिका तंत्र हें सरासरी अनुकंपी तंत्रिका तंत्र कामां करता ताचे उरफाटीं कामां करता. देखीकः परानुकंपी तंत्रिका तंत्र हें मनशाच्या काळजाच्या ठेक्यांची लय देंवयता, स्नायुंतलें रगत कोठ्याकडेन (Stomuch) आनी आंतकड्यांकडेन (intestine) वळयता, आनी दोळ्यांतल्या उजवाड भितर सोडपाच्या बुराकांचो घेर देंवयता. ह्या दोनय तंत्रिका तंत्रांमदलो कामाचो तोल आनी संतुलन केंद्रीय तंत्रिका तंत्रच सांबाळटा.

**तंत्रिका कोशिकांचे भाग :** तंत्रिका कोशिका (Neuron) ही मनशाच्या पुराय तंत्रिका तंत्राचो मुखेल घटक आसता. एके तंत्रिका कोशिकेक मुळावे तीन भाग आसतात : (१) पेशी (cell body) (२) एकोड्या आनी लांब प्रवधीच्या म्हणजे वाडिच्या रुपान भायर सरिल्लें आंग (Axon) (३) एकापरस चड आनी मोटव्या प्रवधींच्या म्हणजे वाडिच्या रुपान भायर सरिल्लीं आंगां (Dendrites) तेभायर पुराय पेशी भोंवतणी एक आवरण आसता, जें तिका चोंयवटेन घेरता.

**तंत्रिका कोशिकेची पेशी :** हे पेशीचो आकार एका बॉलावरी आनी तिची रुंदाय ०.०२५ मिमी. इतली आसता. ही पेशी म्हळ्यार तंत्रिका तंत्राचे संदेश घेवपाचें आनी धाडपाचें एक केंद्र कशें आसता. तेभायर हे पेशीचेर प्रथिनां तयार करपाची आनी पुराय तंत्रिका कोशिकेची बरेतरेन वाड जावपाखातीर शक्त पुरोवपाची जापसालदारकी आसता.

चडशो तंत्रिका कोशिकांच्यो ह्यो पेशी केंद्रीय तंत्रिका तंत्रांतच आसतात, जंय भायल्यान आयिल्ले संदेश तिच्या आंगांत भरसतात आनी भायर वचपी संदेश तयार जातात. केंद्रीय तंत्रिका तंत्र भायर आसपी तंत्रिका कोशिकांच्यो कांय पेशी ह्यो चोम्यांनी एकठांय जाल्ल्यो आसतात. ह्या चोम्यांक तंत्रिका तंत्राच्यो खाशेल्यो गांठी अशें म्हण्टात. हातूंतल्यो बऱ्यांतल्यो बऱ्यो गांठी ह्यो स्वायत्त तंत्रिका तंत्रांत आसतात. तंत्रिका कोशिकाच्या पेशीच्या आंगाचो भायर सरिल्लो लांब आनी एकोडो प्रवर्ध (Process) म्हणजे Axon. ह्या प्रवर्धाचे वाडीक तंत्रिका तंत्राचे तंतू वा तंत्रिका तंतू अशेंय म्हण्टात (Nerve fibre). ह्या प्रवर्धाचें खाशेलें काम आसता संदेश व्हरपाचें. तंत्रिका कोशिकेच्या ह्या लांब प्रवर्धाक जायते फांटे आसू येतात. जाचेवरवीं तो १,००० तरी तंत्रिका कोशिकांकडेन आपलो संबंद जुळोवंक शकता.

केंद्रीय तंत्रिका तंत्रांत आसपी चडशा ह्या प्रवर्धांची लांबाय १ मिमी. इतली आसता. पूण भोंवतणच्या तंत्रिका तंत्रांत आसपी जायते प्रवर्ध लांब आसतात आनी कांय बरेच लांब आसतात. देखीक: मेरू रज्जूकडल्यान पांयांच्या स्नायूंकडेन वचपी कांय प्रवर्ध ७५ ते १०० सेंमी. इतले लांब आसूं येतात.

मज्जातंतू म्हळ्यार तंत्रिका कोशिकांच्या ह्या प्रवर्धांचो एकठांय जावन जाल्लो भायल्यान सारको एके दोरयेवरी दिसपी एक कवळोच आसता. जे मज्जातंतू हालचाल करपी तंत्रिका कोशिकांच्या तंत्रिका तंतूपसून तयार जाल्ले आसतात, तांकां हालचाल घडोवपी मज्जातंतू (Motor Nerves) अशें म्हण्टात. जे मज्जातंतू ज्ञानेंद्रियांकडल्यान म्हायती हाडपी तंत्रिका कोशिकांच्या तंत्रिका तंतूपसून तयार जाल्ले आसतात तांकां संवेदनाचे मज्जातंतू अशें म्हण्टात (Sensory Nerves). पूण कांय मज्जातंतूंत हालचाल करपी आनी म्हायती हाडपी अशे दोनय तरांचे तंतू आसतात.

हो जो तंत्रिका कोशिकेचे पेशिच्या भागांतल्यान भायर सरपी एकोडो आनी लांब प्रवर्ध आसता ताचे भोंवतणी एक धवसार रंगाचें, विशिश्ट अशे एके चरबेपसून तयार जाल्लें आवरण आसता. ताका मायेलीन ह्या नांवान वळखतात. हें मायोलीन ह्या प्रवर्धांतल्यान वचपी संदेशाची गती वाडोवंक हातभार लायता. तंत्रिका तंत्राक जीं दोन गोबरा रंगाचीं आनी धव्या रंगाचीं अशीं दोन आंगां आसतात तीं मायेलिनाक लागून वेगळ्या रंगाचीं दिसतात. गोबरा रंगाचें आंग हें मायेलिनाचें आवरण आशिल्ल्या तंत्रिका कोशिकांच्या लांब प्रवर्धांनी आनी तंत्रिका कोशिकांच्या पेशिनीं घडिल्लें आसता. धव्या रंगाचें आंग हें चड करून मायेलिनाचें आवरण आशिल्ल्या तंत्रिका कोशिकांच्या लांब प्रवर्धांनी घडिल्लें आसता.

मायेलीन हो चरबी आशिल्लो पदार्थ भोंवतणच्या तंत्रिका तंत्रात आसपी Schiwan नांवांच्या पेशींपसून तयार जायत आसता. ह्या पेशींक आदार करपी वा तेंको दिवपी पेशी (Supporting cell) अशें म्हण्टात. ह्यो पेशी चड करून तंत्रिका कोशिकांच्या लांब प्रवर्धां भोंवतणी आसतात. केंद्रीय तंत्रिका तंत्रातल्या आदार करपी पेशींक ग्लीआ (Glia) पेशी अशा नांवान वळखतात. आनी ह्योय ह्या तंत्रांत मायेलीन तयार करपाचें काम करतात. तंत्रिका कोशिकाचे, पेशीच्या आंगाचे भायर सरिल्ले एका परस चड अशे मोटवे प्रवर्ध (dendrites) हे प्रवर्ध भायर सरतनाच तांकां फांटे फुट्टात आनी ते एका झाडाच्या मुळावरी आकार घेतात. चडशा तंत्रिका कोशिकांच्या पेशींक इतले हे मुखेल मोटवे प्रवर्ध आसतात. जे दोन ते तीन पटिनी तरी एकोड्या आनी लांब प्रवर्धांपरस दाट आसतात. तंत्रिका कोशिकांच्यो पेशी आनी तिच्या मोटव्या प्रवर्धांचीं तोंकां हांचेमदीं ०.५ मिमी. इतलें अंतर आसता. तंत्रिका कोशिकांच्या ह्या मोटव्या प्रवर्धांचें खाशेलें काम म्हळ्यार, दुसऱ्या तंत्रिका कोशिकेच्या लांब प्रवर्धांकडसून संदेश घेवपाचें आसता. मोटवे प्रवर्ध आनी लांब प्रवर्ध एकामेकांक सामके तेकनात. चडकरून तांचेभितर एक अशीर अशी मेकळी सुवात आसता. जातुंतल्यान एके तंत्रिका कोशिकेकडल्यान आयिल्लो संदेश दुसरे तंत्रिका कोशिकेंत पावता. जे सुवातेर एक तंत्रिका कोशिका दुसरे तंत्रिका कोशिकेक आपलो संदेश कळयता ताका जुळोवणी अशें म्हण्टात. हे जुळवणेक Sinapse म्हण्टात आनी जुळोवणी जाता थंय आसपी अशीर सुवातेक Synaptic Cleff अशें म्हण्टात.

**संदेश घोळपाच्यो वाटो :** तंत्रिका तंत्राचें चडशें काम हें तंत्रिका कोशिकांमदीं आसपी तांच्या वाटांचेर अवलंबून आसता. ह्या वाटांक तंत्रिका तंत्रांत घोळपी संदेशाच्यो वाटो (pathways) अशें म्हण्टात. ह्यो वाटो म्हळ्यार तंत्रिका तंत्राचे सरक्यूटस् कशे आसतात. म्हणुनूच ताका Neural circuits अशें म्हण्टात. रिफ्लॅक्स ही एक तंत्रिका तंत्रांतल्या सादया सरक्युटाची देख. कसलेय चिथावणेक आपले आपुणूच आनी इत्सेभायर मेळिल्ले जापेक रिफ्लॅक्स अशें म्हण्टात. ही जी रिफ्लॅक्साची क्रिया आसता तातुंतले संदेश हे सादे वाटेवयल्यान वचपी संदेश आसतात. म्हणजे फकत मेंदू रज्जूकडेन वचपी संदेश आसतात. ते मेंदवामेरेन पावनात. रिफ्लेक्स ह्या प्रकारांत गिन्यान मेळोवपी तंत्रिका कोशिकांकडल्यान (receptors) आयिल्लो एक संदेश, मेंदू रज्जूकडेन वता आनी तातूंतल्यान भायर सरून परिणाम दाखोवपी तंत्रिका कोशिकांकडेन परतो येता. ह्या पेशींक effectors म्हण्टात. हाका लागून ह्या दोनय जातींच्या पेशींमदीं एके तरेची सांगड (link) उरता. देखीक - धोंपराचे वाटये सकयले सुवातेर जर चिरपूट मारलें जाल्यार खिणांत थंयचे स्नायू आवुळिल्लेवरी जातात. आनी ताका लागून गिन्यान मेळोवपी तंत्रिका कोशिका संदेश तयार करूंक जाग्यो जातात, हो संदेश संवेदनाच्या तंत्रिका कोशिकेच्या लांब प्रवर्धांतल्यान मेंदू रज्जूकडेन वता आनी थंयचे जुळवणेमार्फत (Synapse) हालचाल घडोवपी तंत्रिका कोशिकेंत पावता. थंय दुसरो एक संदेश तयार जाता जो हालचाल घडोवपी तंत्रिका कोशिकेच्या लांब प्रवर्धांतल्यान परत आवळुपी स्नायूंत येता. ह्या संदेशाक लागून स्नायुच्यो पेशी आंवुंळटात आनी पाय उसळटा.

कांय रिफ्लॅक्स हे चड किचकटिचेय आसतात. ते उण्यांत उणे एके तंत्रिका कोशिकेक संवेदनाची आनी हालचाल घडोवपी तंत्रिका कोशिकांमदीं घुस्पायतात. हे तिसरे तंत्रिका कोशिकेक Association Neuron अशें म्हण्टात. जी आपले परीन जायत्या किचकटीच्या तंत्रिका वाटांकडेन जोडिल्ली आसता. जातुंतल्यो कांय वाटो मेंदवामेरेन पावंक शकता.

दुखीचे चिथावणेपसून पेल्यान सरप (Painful Sensation) हातूंत सर्रास घडपी पूण किचकटीचो असो रिफ्लॅक्स घुस्पल्लो आसता. देखीक - जेन्ना कोणायचोय पांय एका तोंकाळ वस्तूचेर पडटा तेन्ना ते घडणुकेक रोखडीच मेळपी जाप म्हळ्यार तो थंयचो पाय उबारता. हाका भर

म्हणून वयर सांगिल्लो Association नांवांच्यो पेशी दुसऱ्या पांयांच्या स्नायुंक जाग्यो करतात आनी ताका लागून मनीस आपलो तोल सांबाळूंक पावता. तेभायर मेंदवाक एकामेकांभितर तेंकोवपी तंत्रिका तंत्राच्यो वाटोय जाग्यो जावंक शकतात. जाका लागून ते व्यक्तीक कितें घडलां तें कळटा.

पूर्विल्ले शास्त्रज्ञ तंत्रिका कोशिकांतल्यान घोळपी संदेशाची तुळा विजेच्या प्रवाहाकडेन करताले. तांच्या मताप्रमाण हे संदेश विजेच्या प्रवाहावरी मज्जातंतुतल्यान एकसारके घोळत आसतात. १९०० वर्साच्या सुमाराक ह्या मळार काम करपी तज्ञांक अशें दिसून आयलें की, तंत्रिका कोशिकेंत आनी तिच्या भोंवतणच्या पातळ द्रवांत आसपी कांय अणुंचीं वेगवेगळीं प्रमाणां तंत्रिका कोशिकेच्या आंगांत विजेवरी शक्त निर्मुंक कारणिभूत आसतात. हे शक्तीक potential electrical charges अशें म्हण्टात. मागीर अशें दिसून आयलें की, तंत्रिका कोशिकेचे पेशी भोंवतणी आसपी आवरणाक बारीक बुराक आसतात जे कांय वस्तुकच तातूंतल्यान भितर सोडटात. हांचेवयल्यान शास्त्रज्ञांनी असो एक सिध्दांत काडलो, तंत्रिका कोशिकेंतल्यान घोळपी संदेश ही एक तंत्रिका कोशिकेच्या आवरणाचें नियंत्रण आशिल्ली वीज - रसायनीक (Electro - chemical) क्रिया आसा.

१९३० वर्सा शास्त्रज्ञांनी तंत्रिका कोशिकेंतल्यान भोंवपी संदेशांचो आवरणी सिध्दांत (Membrane Theory of Nerve Conduction) शिकपाचीं तंत्रां सोदून काडलीं. ह्या सिध्दांतांची थोडक्यात चिकित्सा अशी आसा : एके तंत्रिका कोशिकेच्या भायल्या आवरणांत आसपी खाशेले प्रथिनांचे कण हे ताचेर आसपी बुराक धांपपाचेर आनी उक्ते करपाचेर नियंत्रण दवरपाचें काम करतात. जेन्ना एके तंत्रिका कोशिकेची पेशी सुशेग घेता तेन्ना तिचे भोंवतणी आसपी आवरण तंत्रिका कोशिकेंत सोडियम ह्या अणुंचें प्रमाण बरेंच उणें दवरता. तशेंच पोटेशियम आनी हेर वजाबाकीचें चिन्न आशिल्ल्या अणुंचें प्रमाण वाडिल्लें दवरता. अणुंच्या ह्या वेगवेगळ्या प्रमाणांक लागून तंत्रिका कोशिका भायलेपरस भितरल्यान वजाबाकीचें चिन्न आशिल्ल्या अणुंनी भरिल्लें उरता आनी ताका लागून तिच्या आवरणाच्या आंगांत विजेवरी शक्त निर्माण जाता. हाका आवरणाचें (Polarization) अशें म्हण्टात. हाकालागून आवरणाच्या दोनय वटांनी उरपी अदीक उणे विजेचे स्थितीक (Resting Potential) अशें म्हण्टात.

जर एके तंत्रिक कोशिकेक चिथावणी मेळ्ळी जाल्यार तिच्या आवरणाच्या बुराकांची स्थिती वेगळी जाता आनी हाका लागून ताची Resting Potential बदलता. भायल्या चिथावण्यांक लागून आवरणाचे बुराक उक्ते जातात आनी सोडियमच्या अणूंक पेशींत भितर सरूंक हातभार लायतात. ह्या अणुंच्या वाडिल्ल्या प्रमाणांक लागून पेशी 'डिपोलारायजड' जाता. जेन्ना एक चिथावणी पेशीक हे स्थितींत पावयता तेन्ना ते तंत्रिका कोशिकेक 'फायर' अशें म्हण्टात. तंत्रिका कोशिकेचें हें जें पेटप आसता तीच तातूंत भितर संदेश तयार जावपाची सुरवात आसता. ही जी चिथावणी आसता तिका अमुकच एक ताकद आसची पडटा; जिका तंत्रिका कोशिका पेटपाची थ्रॅसहोल्ड व्होल्टेज (Threshold Voltage) अशें म्हण्टात.

अमुकच एके तंत्रिका कोशिकेकडसून आयिल्ल्या सगळ्या संदेशाचो आंवाठ आनी ते उरपाचो वेळ सारकोच आसता. मागीर ती तंत्रिका कोशिका पेटोवपी चिथावणी केदीय व्हड आसूं. हांगां एक गजाल मतीत धरची पडटा आनी ती म्हळ्यार तंत्रिका कोशिका पेटपाक जी शक्त लागता ती चडांत चड आसची पडटा. ना जाल्यार ती पेटनासतना उरता. संदेश तयार जावपाचो आंकडो आनी चिथावणी मेळिल्ल्या तंत्रिका कोशिकांच्या तंतुचो आंकडो हाचेवयल्यान मेंदू एके चिथावणेची शक्त सोदून काडूंक शकता.

**तंत्रिका कोशिकेच्या लांब प्रवर्धांतल्यान वचपी संदेश :** तंत्रिका कोशिकेच्या एका लांब आनी एकोड्या प्रवर्धाकूच तंत्रिकासूत अशें म्हण्टात. हें सूत भितरल्यान एके तरेच्या पातळ द्रवान भरिल्लें आसता, जें द्रव प्रवाहाच्या रूपान तातूंत भितर तयार जाल्ले विजेक एके सुवातेवयल्यान दुसरे सुवातेर व्हरपाक हातभार लायता. जेन्ना तंत्रिका कोशिकेच्या ह्या प्रवर्धांत वा तंतूंत एके अमुकच सुवातेर 'डिपोलारायजेशन' हो प्रकार जाता तेन्ना तो प्रकार ह्या लांब प्रवर्धांत वा तंतूंत आशिल्ल्या द्रवांतल्यान तिच्या म्हऱ्यांतल्या सुवातिंनी पावता आनी अशेतरेन अख्ख्या तंतूंत पातळटा. ह्या डिपोलारायजेशनच्या ल्हाराक हालचालीची शक्त म्हळ्यार (Action potential) अशें म्हण्टात.

जेन्ना तंत्रिका कोशिकेच्या लांब आनी एकोड्या प्रवर्धाक भायल्यान मायेलीन हें चरबेचें आवरण नासता तेन्ना तातूंतल्यान वचपी संदेश मर्दी तुटनासतना एकसारको मुखार वचत रावता. पूण जे तंत्रिका कोशिकेच्या लांब प्रवर्धाक भायल्यान मायेलिनाचें आवरण आसता तातूंत तयार जाल्लो संदेश एक सारको मुखार वचत रावना. तो कुडक्या कुडक्यांनी तयार जाता. हाचें फाटलें कारण म्हळ्यार हें मायेलिनाचें आवरण मर्दी मर्दी एक सारकें तुटिल्लें आसता. मायेलिनाच्या ह्या तुटिल्ल्या सुवातींक Nodes of Ranvier अशें म्हण्टात. हाका लागून तंत्रिका कोशिकेच्या असल्या प्रवर्धांत संदेश एके सुवातेवेल्यान दुसरे सुवातीचेर उडक्यो मारिल्लेवरी मारून मुखार वता.

दोन तंत्रिका कोशिकांमदले जुळोवणेक Sinapse अशें म्हण्टात. जंय तंत्रिका कोशिकांच्या प्रवर्धांचो एकामेकांकडेन संबंद येता थंय हे प्रवर्ध एकामेकांक सामकेच तेंकिल्ले नासतात. तांचेभितर एक अशीर अशी मेकळी सुवात उरता. जातुंतल्यान एके तंत्रिका कोशिकेंतलो संदेश दुसरे तंत्रिका कोशिकेंत पावता पूण तो तसो पावतलो जाल्यार कांय रसायनीक द्रवांची गरज लागता. नाजाल्यार तो तसो पावंक शकना. ह्या द्रवांक 'न्युरोट्रांस्मिटरस्' म्हळ्यार तंत्रिका तंत्रांतलो संदेश पावोवपी द्रवां अशें म्हण्टात. जेन्ना एक संदेश तंत्रिका कोशिकेच्या लांब प्रवर्धांच्या पोंतार पावता तेन्ना तंत्रिका कोशिकांमदीं जी अशीर सुवात आसता ते सुवातेंत रसायनिक द्रव तयार जाता. हें रासायनिक द्रव दुसरे तंत्रिका कोशिकेच्या मोटव्या प्रवर्धाकडेन वता आनी तंत्रिका कोशिकेच्या मुखेल पेशी भोंवतणी जें आवरण आसता ताचे वयले बुराक उक्ते करता आनी मागीर तातूंतल्यान अणु भितर सरतात आनी हाका लागून थंय एके तरेची संदेश मुखार व्हरपाची शक्त तयार जाता, जिका Post Synaptic Potential अशें म्हण्टात. ही तयार जावपी शक्त संदेशाक चिथावणी दिवपी आसता वा ताका आडावपी आसता. जी चिथावणी दिवपी आसता ती तंत्रिका कोशिकेच्या एकोड्या आनी लांब प्रवर्धांत पातळटा आनी अशे तरेन संदेश मुखार वचत रावता. जी शक्त संदेशाक आडावपी आसता ती ताका मुखार वचूंक दिना.

– डॉ. अनंत हेदे

पूरक नोंद : तकली आनी तकलेच्यो पिडा.

**तंपुरान कुचिक्कुट्टन :** (जल्म : १८६४ कोडंगल्लूर, केरळ; मरण : १९०८).

केरळांतलो एक कवी. ताचें खरें नांव रामवर्मा आशिल्लें. पूण आवय - बापूय ताका अपुरबायेन कुचिक्कुटन अशें म्हण्टाले. फुडें तो केरळव्यास ह्या नांवान नामनेक पावलो.

संस्कृत पंडीत, कला - शास्त्र ह्या विशयांनी निपूण अशा कोडंगल्लूरच्या राजघराण्यांत तंपुरानचो जल्म जालो. ताचो मामा व्हड विद्वान आशिल्लो. ताचेकडल्यान ल्हानपणांतूच तंपुरानान तर्कशास्त्र, व्याकरण, अलंकार, काव्य - नाटक ह्या विशयांचें शिक्षण घेतलें.

ताणें संस्कृत आनी मळ्याळम् ह्या भाशांनी वट्ट ५० पुस्तकां बरयलीं. स्यमन्तकम्, सीतास्वयंवरम् हीं नाटकां ताणें बरयलीं. संस्कृत शब्द वापरिनासतना ताणें मळ्याळम् भाशेंत दक्षयागम्, तुप्पलकोलांपी हीं काव्यां रचलीं हें ताचें खाशेलपण. ताणें बरयल्ली हेर बरपावळ तशेंच काव्यांय खूब आसात. महाभारताचो ताणें केल्लो वृत्तानुवृत्त अणकार हो ताचो म्हत्वाचो ग्रंथ. हो अणकार ताणें ८७४ दिसांनी पुराय केलो. हाकाच लागुन ताका 'केरळव्यास' ही उपाधी मेळ्ळी.

ताका इतिहासाचीय खूब आवड आशिल्ली. ताणें केरळ नांवाचें एक इतिहासिक काव्य बरोवपाक सुरवात केल्ली. पूण ताका मरण आयिल्ल्यान तें काव्य अर्देंच उरलें. ह्या काव्यांत ताणें केरळचे उत्पत्तीसावन शंकराचार्यांच्या अवतारामेरेनचो इतिहास बरोवपाक घेतिल्लो.

तंपुरान एक बरो गद्य लेखकूय आशिल्लो. रसिकरंजिनी नांवाच्या एका मासिकाचो तो संपादक अशिल्लो. बुध्दिबळ हो ताचो आवडटो खेळ खेळटना कविता रचपाची ताका सवंय आशिल्ली.

– कों. वि. सं. मं.

**तंबाकू :** (मराठी : तंबाखू; हिंदी, गुजराती, बंगाली : तमाकू; कन्नडः होगेसोप्पू; इंग्लीश : टोबॅको; लॅटीन : निकोटियाना टाबॅकम आनी निकोटियाना रस्टिका; कूळ : सोलॅनसी).

हे वनस्पतीचे मुखेल दोन प्रकार आसात. १) निकोटियाना टाबॅकम २) निकोटियाना रस्टिका. टाबॅकम ह्या प्रकारच्या तंबाकूचें रोंप एक वर्सभर जगता, १-३ मी. वाडटा. ताचीं पानां सुमार १ मी. लांबायेचीं आसतात. ह्या रोंपाक लेव तांबडीं वा धवीं फुलां येतात आनी १५.२० मिमी. व्यासाचीं वाटकुळीं फळां येतात. रस्टिका प्रकारच्या तंबाकूचें रोंप ०.५ ते १.५ मी. ऊंच वाडटा. पानांची लांबाय ३० सेंमि. जाल्यार रुंदाय २० सेंमी. आसता. फुलां हळडुवीं १.२ ते १.५ सेंमी. लांब, फळ वाटकुळें ७.१६ मिमी. व्यासाचें, भितल्ल्यो बियो ०.७ ते १.१मिमी. व्यासाच्यो आनी तपकिरी रंगाच्यो आसतात.

तज्ञांच्या मतान तंबाकूचो उगम अमेरिकेक जाला आसूंक जाय. बाराव्या शेंकड्यांत आशिया खंडांत तंबाकूचो वापर करताले म्हणपाचे उल्लेख सांपडटात. भारतांत तंबाकू आदल्या तेंपार सावन पिकयतात. रामायणासारक्या पुराणीक ग्रंथांनी तंबाकूचो उल्लेख मेळटा. पूण भारतांत पुर्तुगेज लोकांनी ह्या पिकाचो व्हड प्रमाणांत प्रसार केलो. चीन, अमेरिका, इंडोनेशिया, तुर्कस्थान, बल्गेरिया, ब्राझील, रशिया, आर्जेण्टीना, थायलँड, फिलिपिन्स ह्या देशांनी तंबाकूची लागवड मोट्या प्रमाणांत करतात. भारतांत आंध्र प्रदेश, उत्तर प्रदेश, ओरिसा, कर्नाटक, गुजरात, महाराष्ट्र, अस्तंत बंगाल, ह्या राज्यांनी तंबाकूची व्हड प्रमाणांत लागवड जाता.

तयार केल्ल्या तंबाकूचे कांय प्रकार आसात ते अशे : सिगार तंबाकू, जत्ती (जाती) तंबाकू, मोतीहारी तंबाकू, हुक्का तंबाकू, विडी तंबाकू आनी खावपाचो तंबाकू. तंबाकूच्यो कितल्योशोच जाती आसात त्यो ह्यो : बोहरी (बोन्हरी), चुरीया, कवनिया (कोन्निया), देशला, पुरबी, नाकी (नोकी), काका (कक्का), घोरा, गिद्री, गोभी, पचकड (पुचक्कड).

तंबाकूचे लागवडीक सरासरी २७° सॅ. तापमानाची गरज आसता. हें तापमान ३५° सॅ. परस चड आसल्यार पानां करपतात आनी उत्पन्नाचेर परिणाम जाता. तंबाकूच्या त्या त्या प्रकाराचेर जमनीची निवड करतात. देखीक - विडी तंबाकूखातीर हलकी जमीन चलता, जाल्यार सिगार तंबाकूची लागवड करपाखातीर सुपीक जमनीची गरज आसता.

तंबाकूची लागवड बियांपसून करतात आनी हॅक्टराक ५०० ग्राम बीं पुरो जाता. सुरवातेक गांदी वाफ्याचेर रोंपये किल्लून काडटात आनी उपरांत ५०-६० दिसांनी शेतांत लायतात. रोंप लावंचे पयलीं जमीन नांगरून तातूंत हॅक्टराक ७० (बैल) गाडयो शेणखत भरशितात. वेगवेगळ्या राज्यांनी तंबाकू लावपाचो काळ वेगवेगळो आसता. चडशा राज्यांनी सप्टेंबर - ऑक्टोबर ह्या तेंपार लागवड करतात. जाल्यार कांय राज्यांनी जानेवारी म्हयन्यांत लागवड करतात. रोंप लावपाखातीर १×१ मी. अंतराचेर १०-१५ सेंमी. खोल फोंडकुलां मारतात. विडी तंबाकूची लागवड २०×२० सेंमी. अंतराचेर करतात. रोंपांमदली नडणी वेळोवेळ काडची पडटा. तशेंच, तंबाकूच्या प्रकाराचेर साऱ्याची गरज थारता. सादारणपणान हॅक्टराक २५ कि. नत्र, ५० कि. स्फुरद आनी २५ कि. पलाश इतलें सारें दिवंचें पडटा.

विडी तंबाकूक तयार जावपाक सुमार १४० दीस लागतात, जाल्यार चिरूट तंबाकू ९०-१०० दिसांनी तयार जाता. तंबाकूचें उत्पन्न हें जातीचेर आदारून आसता. सरासरी हॅक्टेरी १००० ते १५०० किलो तंबाकूचें उत्पन्न मेळटा. तंबाकूचीं पानां जशीं जशीं सुकतात तशीं तशीं तीं काडटात. तंबाकूचीं पानां काडटकच तांचेर वेगवेगळ्यो प्रक्रिया करून तरेकवार तंबाकू तयार करतात.

तंबाकूच्या पिकाक रोग आनी किडीचो बरोच त्रास जाता. 'मर', पानांवयले थिपके, पिठ्याचितो हे कांय म्हत्वाचे रोग तंबाकूचें लुकसाण करतात. चड करून सुकुंडो, खोडकिडो ह्या दोन किडींची तंबाकूक लागण जाता.

भारतांत सात लाख लोक तंबाकूची लागवड करतात आनी पांच लाख लोक तंबाकूचेर प्रक्रिया करपाच्या कामांत आसात. सुमार तीस लाख लोक तंबाकूपसून वेगवेगळे पदार्थ तयार करतात, हातूंतले २० लाख लोक विडी कामगार आसात. तंबाकूचो वापर सिगार, विडी, चिरूट, हुक्को, चिलीम हातूंत करतात. खावपाच्या पानांनीय कांय लोक तंबाकूचो वापर करतात. दांत घांसपाखातीरय तंबाकूचो वापर करतात. तंबाकूच्या उदकाचो कीडनाशक म्हणून वापर करतात. बियांपसून तेल काडटात आनी हें तेल खावपाक वा रंग तयार करपाक वापरतात. तेल काडून जी पेंड उरता ती गोरवांक खावड म्हणून वापरतात. तशीच, ही पेण शेताक सारें म्हणून वापरतात.

तंबाकूंत 'निकोटीन' हो विखारी पदार्थ आसता; ताका लागून तंबाकू खावप जावं ओडप हें भलायकेक अपायकारक आसता.

– विश्राम गांवकार

**तंबोरो :** एक तंतुवाद्य. भारतीय संगीतपद्दतींत गायन वादनांत आदारस्वराखातीर ह्या वाद्याचो उपेग करतात. 'तुंब' वा 'तुंबरू' ह्या शब्दापसून तंबोरो हें नांव आयलां आसुंये. ताका 'तानपुरा', 'तंबुरा' हीं हेर नांवांय आसात. पुर्विल्ल्या ग्रंथांत ह्या वाद्याक 'तुंबरू वीणा' अशें नांव दिल्लें आसा. णव्या शतमाना उपरांत हें वाद्य वापरांत आयलां आसुंये. ह्या वाद्याचे मुखेल भाग अशे - तंबोऱ्याचे बसकेक कोरीव लाकडी वाटकुळें अर्द (तंजावर पद्दत) वा कापिल्लो अर्दो दुदी (मिरज पद्दत) आसता. ताचेर फुगीर ध्वनीरंध्रां आशिल्ली लाकडी पाटी म्हळ्यार नादपट आसता. हे बसकेक पोकळ लाकडी दांडी बसयतात. हे दांडयेची एक वट सपाट आसता. दांडयेच्या वयल्या तोंकाकडेन सरयो बसोवपाखातीर हस्तीदंताच्यो दोन अटी एक एक बोट अंतराचेर बसयतात. दांडयेच्या वयल्या तोंकाकडेन तारो लावपाखातीर दोन खुंटयो बसयतात; हाका जोडाच्यो खुंटयो म्हण्टात. दांडयेच्या दोनूय वटांनी तशेच तरेची आनीक एक खुंटी बसयतात. तातूंतले एकेक पंचमाची आनी दुसरेक खर्जाची खुंटी म्हण्टात. बसकेच्या मध्यभागार हस्तिदंती वा रक्तचंदनाचीं दोन बोटां ऊंच आनी तीन बोटां रूंद अशी एक घोडी आसता. हे घोडयेक सरयो बसोवपाखातीर खांची आसतात. बसकेच्या मुळांत मदीं चार बोटां लांब आनी बोटभर रूंद अशी तारदान नांवाची हस्तदंती पट्टी बसयतात.



हे पट्टेक चार बुराक आसतात, तातूंत मणयांच्या आदारान सरयो गुंथून त्यो घोडयेवयल्यान दांडयेच्या तोंकाक आशिल्ले अटींत परत गुंथून त्या खुंट्यांक गुठलायतात. तंबोऱ्याक चार सरयो आसतात. तातूंतल्या मदल्या दोन सरयांक जोडाच्यो सरयो म्हण्टात. त्यो तिख्याच्यो आसून सारकेच रूंदायेच्यो आसतात. तांचो आवाज गोड येवंचो देखून घोडयेचेर सरयेसकयल थोडो पिंजिल्लो कापूस घालतात. ताका जव्हारी अशें म्हण्टात. दरेक सरयेचे बसकेचेर एक एक मणी गुंथिल्लो आसता. तो तारदान आनी घोडयेमदीं सकयल - वयर करतकच स्वर जाय तसो चड उणो करूं येता. तंजावर प्रकाराच्या तंबोऱ्यांत सोंप्या स्वरमेलनाखातीर सरकटपी घोडीय वापरतात.

तंबोरो उबो वा आडवो दवरून वाजयतात. वादक्रमाप्रमाण पयली सरी पंचमाची, पंचमवर्ज्य रागाखातीर मध्यमाची वा निषादाची आसता. दुसरी आनी तिसरी षड्जाची आनी चवथी मंद्र-षड्जाची आसता. मदल्या बोटान पयली सरी आनी तर्जनीन बाकीच्यो सरयो छेडटात. मिरज, रामपूर, लखनौ, तंजावर, थिरूवनंथपुरम, म्हैसूर हीं ह्या वाद्याचीं मुखेल निर्मिती केंद्रां.

गायकाक स्वरांची साथ दिवपाक ह्या वाद्याचो बरो उपेग जाता. कांय गायक बांबूच्या वा नाल्लाच्या ल्हान कुडक्यान सरयो दांबून वीणेवरी तंबोरो वाजयतात. दक्षिण भारतांत अशा वाद्याक 'कोट्टू वाद्यम' वा 'बालसरस्वती' म्हण्टात.

ल्हान तंबोऱ्याक तंबोरी अशें म्हण्टात. सात तारी, आठ तारी आनी आपोआप वाजपी स्ववादीत तंबोरो हीं तंबोऱ्याचीं आर्विल्लीं रूपां आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**त :** 'त' वर्गांतलो पयलो वर्ण आनी देवनागरी वर्णमाळेंतलें सोळावें व्यंजन. ह्या अक्षराचें पयलें रूप अशोकाच्या शिलालेखांत (इ. स. प. तिसरो शेंकडो), दुसरें रूप भट्टिप्रोलूच्या स्तुपावयल्या लेखांत (इ. स. प. दुसरो शेंकडो) आनी तिसरें रूप चंबा राज्यांतल्या सराहाक मेळिल्ले प्रशस्तींत (इ. स. चो धावो शेंकडो) मेळटा.

'त' च्या रूपाचो विकासक्रम असो आसा –



वर्णोध्दारतंत्रांत हाचें स्त्रीरूपी ध्यान अशें सांगलां –

चार भुजां, थंड, महामोक्षप्रद, सदांच सोळा वर्सांची, तांबडें वस्त्र आनी तरातरांचे अलंकार धारण करपी आसून सगळ्यो सिध्दिप्रद अशे तकाररूपी देवतेचें ध्यान करून तिच्या मंत्राचो धा खेपे जप करचो अशें सांगलां.

'त' हो दंत्य वर्ण.

– कों. वि. सं. मं.

**तकली आनी तकलेच्यो पिडा :** कुडीच्या ज्या भागांत मेंदू, तोंड आनी मुखेल ज्ञानेंद्रियां म्हळ्यार दोळे, कान, नाक, जीब हे अवयव आसतात, त्या भागाक तकली म्हण्टात. मनीस धरून जे प्राणी दोन पायांचेर चलतात, तांची तकली ही कुडीचे सामके वयले सुवातेर आसता. जे प्राणी चार पायांचेर चलतात तांची तकली कुडीचे फुडें आसता. कांय जीव, देखीक - अमीबा आनी कांय प्राणी देखीक - नक्षत्राच्या आकाराचें नुस्तें म्हळ्यार 'स्टार फीश' हांकां तकली नासता.

तकलेची कवटी ही बऱ्याच हाडांनी घडिल्ली आसता. कवटेचे दोन भाग आसतात : चेऱ्याचो भाग म्हणजे 'फेस' (Face) आनी तकलेचो वयलो मेंदवाक सांबाळपी भाग म्हणजे क्रॅनियम (cranium). चड करून तकलेची कवटी ही वयर सांगल्या तशी हाडांनी घडिल्ली आसता. पूण कांय प्राण्यांत देखीक - देवमासो, ती विशिश्ट अशा पेशीं पसून घडिल्ली आसता. ह्या पेशींक कारटिलेजिच्यो पेशी अशें म्हण्टात. तलके वयलो आनी फाटलो भाग जे कातींत धांपिल्लो आसता ते कातीक स्काप (Scalp)

अशें म्हण्टात.

तकली, फाटीचो कणो, गळ्याभोंवतणचें हाड आनी भुजाचीं पातीं हांकां एका खाशेल्या अशा स्नायूंच्या तंत्रान जोडिल्लें आसता. हे स्नायू तकलेच्या हालचालींचेर नियंत्रण दवरतात. ऑक्सिपिटल नांवाच्या हाडा पासून तकलेचो फाटलो भाग तयार जाता. हो भाग फाटीच्या कण्याच्या




**मनशाचे तकलेच्या आनी मानेचे कुशीचे स्नायू :** १. चर्वणाचे स्नायू २. तोंडावयले भाव दाखोवपी स्नायू ३. शिरोवल्काचे स्नायू.

वयल्या तोंकार बशिल्लो आसता आनी थंय तो एक सांदो तयार करता. जाका लागून तकली घुवूंक शकता. तकलेच्या आकाराक लागून चडसो ताचो भार हो ऑक्सिपिटल हाडामुखार उरता. पूण मानेच्या स्नायूंक लागूनच ती आपले सुवातेर नीट उबी उरूंक शकता. जेन्ना कोणाकय लकणी येता तेन्ना हे स्नायू सदळ पडटात आनी ताका लागून तकली मुखार लवंडता. तकलेचीं हेर व्हड हाडां अशीं आसात : परायटल (parietal) वयलें कुशीनचें, फ्रंटल (frontal) मुखावेलें, टॅम्पोरल (temporal) कुशीनचें पोंदचे, स्फॅनॉयड (sphenoid) आनी ऍथमॉयड (ethmoid) पोंदचीं हांडां.

मनीस जल्मता तेन्ना ताचे तकलेचो आंवाठ ताचे कुडीच्या आंवाठा मानान बरोच व्हड दिसता. तेन्ना कुडिची लांबाय, कुडीचे अख्खे लांबायेच्या आठव्या वांट्यायेदी आसता. तकलेचो आकार आनी आंवाठ हो मनशाकणकणी बदलता. सरासरी तकलेच्या मेंदवाक आस्पावन घेवपी भागाची भितरली पोकळसाण ही १.४०० क्युबीक सेंमी. इतली आसता. मनशाची/प्राण्याची बुध्द ही तकलेच्या आकाराचेर थारता अशें ना.

मेंदू हो मनशाचे तकलेंतलो एक चड म्हत्वाचो अवयव. तंत्रिका तंत्र (nervous system) यंत्रणेवरवीं जिवाच्या सगळ्या हालचालींचेर मेंदवाचें नियंत्रण उरता, तेचपरी तेच यंत्रणेवरवीं मेंदवाक सगळ्या हालचालींचे संदेश मेळटात. मेळिल्ल्या संदेशाची चिकित्सा करून मेंदू निर्णय घेता आनी तंत्रिका तंत्र यंत्रणेवरवीं त्या त्या अवयवांक सुचवण्यो, आज्ञा दिता.

मनशाचो मेंदू हो गुलाबी, गोबरा रंगाचो जेलीवरी आंग आशिल्लो, बॉलाच्या आकाराचो वांटकुळो असो अवयव आसता. ताचें भायलें आंग जायत्या अशा वांकड्या तिकड्या उंचवट्यांनी आनी खंचिनी भरिल्लें आसता. एका, जाल्ल्या भुरग्याच्या मेंदवाचें वजन ०.५ किलो इतलें आसता. जेन्ना तें भुरगें ६ वर्सांचें जाता तेन्ना ताच्या मेंदवाचें वजन १.४ किलो इतले जाता. मेंदवाच्यो चडशो पेशी ह्यो भुरगें जल्मता तेन्नासावनच आसतात. उपरांत ताचें जाल्ले वाडीक लागुनूच मेंदवाचें वजन वाडटा. ह्या स वर्सांच्या काळांतच भुरगें चड प्रमाणान शिकता आनी वागपाच्यो नव्यो नव्यो रिती आपंणायता.

मेंदवाचें आंग हें दोन तरेच्या पेशींनी घडिल्लें आसता. तंत्रिका कोशिका हो तंत्रिका तंत्राचो मुळावो घटक आसता. जो वीज रसायनीक अशे आपले खाशेले रितीन तंत्रिका तंत्राच्या भागांकडेन संबंद दवरता. पुरक जावपी तंत्रिका कोशिका पेशींक Neuroglia वा Glia अशें म्हण्टात.

मेंदवाचेर पातळिल्लें, रगताची पुरवण करपी शिरांचें जाळें मेंदवाक भरपूर प्रमाणांत प्राणवायू आनी अन्नांतल्या मुळाव्या घटकांची पुरवण करता. मनशाच्या मेंदवाचें वजन हें ताचे कुडिच्या दोन टक्के वजना इतलें आसता. पूण जेन्ना मनीस सुशेग घेता तेन्ना ताची कूड जो प्राणवायू वापरता ताचे वीस टक्के इतलो प्राणवायू एकटो मेंदू वापरता. मेंदू प्राणवायू बगर फकत तीन ते पांच मिनटा इतलो वेळ मेरेन तग धरून रावंक शकता. हाचेपरस चड वेळ गेलो जाल्यार ताका मार बसूं येता.

मेंदू हो मेरूरज्जुच्या वयल्या तोंकाकडेन आसता. तंत्रिका कोशिकांपसून तयार जाल्लो हो मेरूरज्जू केबलावरी आसता जो मानेकडल्यान २/३ इतलो फाटिच्या कण्यांत सकयल मेरेन देंवता. मेरूरज्जू हो केंद्रीय तंत्रिका तंत्रांतलो असो अवयव जो मेंदू आनी कुडिचे हेर भाग हांचे मदीं संदेश पावोवपाचें काम करता. तेच वांगडा मेंदवांतल्यान भायर सरपी मज्जातंतूच्यो बारा जोडयो मेंदवाक सरळ, कुडिच्या कांय भागांक जोडटात.

मेंदवाच्यो पेशी ह्यो विजेच्यो शिटकावण्यो तयार करतात आनी त्यो खाशेल्या वाटांवयल्यान एके पेशीकडल्यान दुसरे पेशीकडेन धाडटात. ह्या वाटांक circuits अशें म्हण्टात. संगणकावरी हे विजेचे 'सरक्यूट्स' म्हायती घेतात, तिचेर जायत्यो क्रिया करतात आनी त्यो सांठयतात. हाचेभायर मेंदू रसायनीक क्रियांचो आदार घेवन विजेवरी शिटकावण्यो दिता, जें संगणक करना. मेंदवाची काम करपाची शक्त ही जायत्या किचकटींच्या मेंदवाच्या पेशीं मार्फत तयार जाल्ल्या रसायनीक वस्तुंचेर अवलंबून आसता.

जायत्या मळावेले शास्त्रज्ञ एका बरोबर मेंदवाची रचना, ताची काम करपाची तरा आनी ताची रसायनीक घडण हांचेर काम करतात. ह्या तांच्या काम करपाच्या मळाक तंत्रिका विज्ञान वा तंत्रिका जीवशास्त्र अशें म्हण्टात. ह्या शास्त्रांक लागून मेंदवा संबंदिची म्हायती उत्ती जावंक पावता. पूण तरी आसतना अजुनय मेंदवाची खूब म्हायती उत्ती जावपाची आसा. शास्त्रज्ञांक अजुनय मेंदू कसो चलता तें पुराय तरेन होलमूंक ना.

**मेंदवाचे भाग :** मेंदवाक तीन भाग आसतात : (१) अंत्यमस्तिष्क (cerebrum) (२) निमिस्तिष्क (cerebellum) (३) मेंदवाचें खोड (brain stem). हो दर एक भाग तंत्रिका कोशिकांनी आनी तांकां आदार करपी ग्लिया नांवाच्या पेशिंनी तयार जाल्लो आसता.

**अंत्यमस्तिष्क** (cerebrum) : मनशाच्या मेंदवाच्या वजनाच्या पंचायशीं प्रतिशत इतलें वजन हें एकट्या अंत्यमस्तिष्काचें आसता. मेंदवाच्या ह्या भागाक आसपी भायल्या थराक मेंदवांचें कॉर्टेक्स (brain cortex) अशें म्हण्टात. हो थर तंत्रिका कोशिकांच्या पेशिंनी तयार जाल्लो आसता. अंत्यमस्तिष्काच्या ह्या थरासकयलो भाग तंत्रिका सुतांनी तयार जाल्लो आसता. हातूंतलीं कांय सुतां अंत्यमस्तिष्काच्या कॉरटॅक्स ह्या थराक तेकिल्लीं आसतात. जाल्यार हेर सुतां कॉरटॅक्स, निमिस्तिष्काक मेंदवाच्या खोडाक आनी मेंदू रज्जूक तेंकयतात. कॉरटॅक्स ह्या भागाक खूब दोडी आसतात आनी ताका लागून ताचें पुराय आंग दोडींनी आनी खांचिनीं भरिल्लेवरी दिसता. ह्या कॉरटॅक्साचेर आशिल्ल्या भागांक संवेदनाचे कॉरटॅक्स अशें म्हण्टात. हो भाग ज्ञानेंद्रियांसंबंदीत काम करता. तेचपरी स्पर्श आनी हुनसाण ह्या संवेदनाचे संदेश ह्याच भागांत येतात. कॉरटॅक्साच्या दुसऱ्या भागांक हालचालीचे भाग अशें म्हण्टात. ह्या भागांतल्यान जे संदेश वतात ते स्नायुंच्या हालचालींचेर नियंत्रण दवरतात. पूण कॉरटॅक्साच्या सगळ्यांत व्हडल्या भागाक जुळवणेचो भाग म्हण्टात (Association cortex). हो भाग म्हायतीची चिकित्सा करता आनी ती म्हायती आपल्यांत सांठोवन दवरता. जाका लागून मनीस विचार करूंक शकता, उलोवंक शकता आनी ताका याद उरता. एक बरीच खोल अशी खांच (fissure), अंत्यमस्तिष्काचीं दोन अर्दां करता. उजवें अर्द आनी दावें अर्द. हीं दोनय अर्दां आपले भितर तंत्रिका सुताच्या कवळ्यांनी जोडिल्लीं आसतात. तातूंतल्या मोट्या कवळ्याचें नांव कोर्पस कॅलोसम (Corpus callosum). अंत्यमस्तिष्काच्या ह्या दर एका अर्दाक सेरेब्रल हॅमिस्फीअर अशे म्हण्टात. ह्या दर एका अर्दाचे आपले भितर चार भाग जाल्ले आसतात. ह्या दर एका भागाक 'लोब' (Lobe) म्हणटात. तांचीं नांवां अशीं आसात. (१) मुखावयलो भाग (Frontal lobe) (२) कुशिनचो सकयलो भाग (temporal lobe) (३) मदलो वयलो भाग (parietal lobe) (४) फाटलो भाग (occipital lobe). ह्या दर एका भागाक तो जे कवटेच्या हाडासकयल येता त्या हाडाचेंच नांव पडिल्लें आसता. अंत्यमस्तिष्काच्या कॉरटॅक्स ह्या थराचेर आशिल्ल्यो खांची ह्यो दर एका भागाच्यो शिमोच आसतात. हातूंतल्यो दोन मुखेल खांची म्हळ्यार : मध्यवर्ती खांच (Central fissure) आनी कुशींतली खांच (Lateral fissure).

**निमिस्तिष्क** (Cerebellum) : हो भाग मनशाचो तोल, ताचें आसन घेवपाची रीत आनी हालचालींचीं संतुळां राखता. हो भाग मेंदवाच्या फाटल्या भागासकयल आसता. हाकाय उजवें आनी दावें अशीं दोन अर्दां आसतात. हीं दोनय अर्दां आपलेभितर एका बोटाच्या आकारावरी दिसपी भागान जोडिल्लीं आसून, ह्या भागाक व्हरमीस (vermis) म्हण्टात. तंत्रिका संदेशाच्यो वाटो निमिस्तिष्काचें उजवें अर्द अंत्यमस्तिष्काच्या दाव्या अर्दाक आनी कुडिच्या उजव्या अर्दाक जोडटा. तशेंच निमिस्तिष्काच्या दाव्या अर्दाकडल्यान आयिल्ल्यो वाटो, अत्यमस्तिष्काच्या उजव्या अर्दांत वतात आनी कुडिच्या दाव्या अर्दांत वतात.

**मेंदवाचें खोड** (brain stem) : हो एक देंठावरी दिसपी मेंदवाचो भाग आसा. तो अंत्यमस्तिष्काक मेरू रज्जूकडेन जोडटा. ह्या खोडाच्या तळाच्या भागाक 'मेड्युला ओब्लाँगेटा' (Medulla oblongata) अशें म्हण्टात. ह्या भागांत मनशाचो उस्वास, काळजाच्या ठेक्यांची लय आनी कुडिच्यो हेर क्रिया चलोवपी जागे आसतात.

अंत्यमस्तिष्क आनी मनशाचे कुडी मजगती मुखेल संवेदनाच्यो आनी हालचाल करपाच्यो वाटो मेंदवाच्या ह्या भागांत एके वटेतल्यान दुसरे वटेन येतात. अंत्यमस्तिष्काचें अर्द हें कुडिच्या दुसऱ्या अर्दाचेर नियंत्रण दवरपाचें काम करता. मेड्युला हाचेवयर मेंदवाच्या खोडाचो दुसरो भाग आसता जाका पोन्स (Pons) म्हण्टात. हो निमिस्तिष्काचीं दोनय अर्दां आपले भितर जोडटा. ह्या भागांत जे तंत्रिका तंतू आसतात ते निमिस्तिष्क आनी अंत्यमस्तिष्क ह्या अवयवांक जोडटात. ह्या भागावयर मनशाच्या मेंदवाचो मदलो भाग आसता जाका मीडब्रेन (Midbrain) म्हण्टात. हांगा आशिल्ली तंत्रिका तंत्राचीं केंद्रां दोळ्यांचे हालचालीचेर आनी तातूंत आसपी प्युपील ह्या बुराकांचेर नियंत्रण दवरतात. मेंदवाच्या खोडाच्या वयल्या पोंतार दोन भाग आसतात : थॅलॅमस आनी हायपोथालामस. थॅलॅमसाक दोन भाग आसतात : एक मेंदवाच्या खोडाचे उजवे वटेन जाल्यार दुसरो भाग दावे वटेन आसता. हो दर एक थॅलॅमसाचो भाग कुडिच्या तरेकवार भागांकडसून आयिल्ले तंत्रिका संदेश घेवपाचें काम करता आनी थंयच्यान मागीर ताका अंत्यमस्तिष्काच्या भायल्या थराकडेन त्या त्या सुवातींनी धाडटा. तशेंच थॅलॅमस हो भाग मेंदवाच्या एका भागाकडल्यान दुसऱ्या भागाकडेन संदेश धाडपाचें काम करता. हायपोथालामस हो भाग कुडीचें तापमान, भूक आनी भितरली स्थिती हांचेर नियंत्रण दवरता आनी तेभायर पिचुयटरी (Pituitary) हे मुखेल ग्रंथिचेरूय आपलें नियंत्रण दवरता.

रेटिक्युलर (Reticular) नांवाच्या तंत्रिक तंतूपसून तयार जाल्लें एक जाळें मेंदवाच्या खोडांत खोल भितर आसता. तें मेंदवाची सादूरतायेची पातळी थारायता. मेंदवाच्या खोडांतल्यान जे संवेदनाचे संदेश वतात ते ह्या रेटिक्युलर जाळ्यांक चिथायतात. जे आपले परीन अंत्यमस्तिष्काचें काम करपाचे शक्तीक चालना दितात आनी जागरुक दवरता.

**मेंदवाच्यो पेशी** : मनशाच्या मेंदवाक १० ते १०० कोटी इतल्यो तंत्रिका कोशिका आसतात. ताचेभायर कितल्योश्योच 'ग्लिया' नांवाच्यो पेशी आसतात. तंत्रिक कोशिका संदेश धाडपाचें काम करतात आनी ग्लिया ह्यो पेशी तंत्रिका कोशिकां भोंवतणी आसून तांकां आदार दिवपाचें काम करतात. तेभायर ग्लिया पेशी आनिकय खुबशीं कामां करतात. देखीक - कांय ग्लिया पेशी पिडा जाल्ल्या तंत्रिका कोशिकांक ना करतात आनी ताका लागून मेंदवाक कसलीच बादा जावंक पावना.

हेर पेशीवरींच तंत्रिका कोशिका भोंवतणी एक पातळ अशें आवरण आसता. तें तंत्रिक संदेश व्हरपाचें खाशेलें अशें आवरण आसता. दर एके तंत्रिका कोशिकेक एक मुखेल पेशी आसता आनी नळयेच्या आकारावरी दिसपी तिच्या आंगातल्यान भायर सरपी एक लांब प्रवर्ध आसता. ताका सूत म्हण्टात, तशेंच तांकां तंत्रिका तंतू (Nerve fibre) म्हणूनय वळखतात. हें सूत तंत्रिका कोशिकेचे मुखेल पेशीकडल्या हेर तंत्रिका कोशिकांत संदेश व्हरपाचें काम करतात. तंत्रिका कोशिकेचे मुखेल पेशींतल्यान फाट्यांनी भायर सरपी मोटव्या प्रवर्धांक डॅंड्रायटस (dendrites) अशें म्हण्टात. हीं सुतां दुसरे तंत्रिका कोशिकेच्या लांब सुताकडल्यान येवपी संदेश घेतात आनी मुखेल पेशीक धाडटात. जे सुवातेर एके तंत्रिका कोशिकेचो खंयचोय फांटो आपलो तंत्रिका संदेश दुसरे तंत्रिका कोशिकेच्या फाट्यांक धाडटा ते सुवातेक सिनॅप्स (Sinapse) अशें म्हण्टात. दर एक तंत्रिका कोशिका, हजार भर तरी हेर तंत्रिका कोशिकांकडेन सिनॅप्सीस घडयतात. तंत्रिका कोशिकेच्या लांब सुताभोंवतणी चरबी आशिल्ल्या पदार्थांचें एक आवरण आसता जाका 'मायेलीन' (Myelin) म्हणटात. ह्या आवरणाक लागूनच तंत्रिका तंतूतलो संदेश बरेतरेन घोळूंक पावता.

मायेलिनाचो रंग धवो आसता आनी ताचें आवरण आशिल्ल्या लांब तंतूक लागूनच तंत्रिका तंत्राचें धवें आंग तयार जाता. तंत्रिका तंत्राच्यो मुखेल पेशी आनी मायेलिनाचें आवरण नाशिल्ल्या लांब सुतांक लागून मेंदवाचें गोबरा रंगाचें आंग तयार जाता. अंत्यमस्तिष्काचो जो भायलो थर आसता तो चडकरून गोबरा रंगाच्या आंगान तयार जाल्लो आसता आनी उरिल्लो चडसो भाग धव्या आंगान तयार जाल्लो आसता.

कवटेच्या वयल्या भागाचीं म्हणजे क्रॅनियमाचीं घटसार आनी दाटसार हाडां मेंदवाक भायलो कसलोच मार लागूंक दिनात. तशेंच भितरल्यान मेंदवा भोंवतणीं तीन आवरणां आसतात जीं मेंदवाक बरे तरेन सांबाळटात आनी ताका कसलीच दुखापत जावंक दिनात. ह्या आवरणांक 'मेनिंजीस'(Meninges) म्हण्टात. सगळ्यांत भायल्या आवरणाक 'ड्युरामाटेंर' (Duromater) म्हण्टात. हें आवरण कवटेच्या हाडाच्या भितरल्या आंगाक धरून आसता. मदलें जें आवरण आसता ताका ऍराक्नॉयड (Arachnoid) अशें म्हण्टात. तें पातळ आसता आनी ड्युरामाटेर ह्या आवरणापोंदा आसता. सगळ्यांत भितरल्या आनी मेंदवाक तेंकून आसपी आवरणाक पियामाटेंर (Piamater) म्हण्टात. हें आवरण मेंदवाच्या भायल्या आंगां भोंवतणी आनी ताका तेंकून आसता. तशेंच तें पुरायतरेन मेंदवाक धांपता. तें मेंदवाच्या भायल्या आंगांक आशिल्ल्या खांचिनी लेगीत भितर वता. मेंदवाच्या आवरणातच अंत्यमस्तिष्काच्या भायल्या आंगांक (cortex) रगताची पुरवण करपी आनी थंयच्यान हाडपी शिरो आसतात.

पियामाटेर आनी ऍराक्नॉयड ह्या आवरणां मजगती एक पातळसार अशें द्रव आसता. जाका अंत्यमस्तिष्क आनी मेरूरज्जूंत घोळपी द्रव्याक 'सॅरॅब्रॉ स्पायनल फ्लुयड' अशें म्हण्टात. ह्या द्रवाक लागून हीं दोनय आवरणां एकामेकांक घश्टूंक पावनात. हें द्रव मेंदवाक भोंवतणच्या घट हाडांपसून मार लागूंक दिना आनी मेंदवाक बसपी मार आपल्या आंगांत ओडून घेता.

मेंदवाक भितरल्यान ४ पोकळ सुवाती आसतात. तांकां मेंदवाचे 'व्हॅंट्रिकल्स' अशें म्हण्टात. ह्या पोकळ सुवातिंनी ज्यो पेशी आसतात त्योच हे 'सेरेब्रो स्पायनल' हें द्रव तयार करतात. हें उपरांत ल्हान ल्हान उक्त्या सुवातींतल्यान 'पियामाटेर' आनी 'ऍराक्नॉयड' ह्या आवरणांमदी पावता आनी एराक्नॉयड ह्या आवरणांत आसपी बारीक शिरांतल्यान रगतांत पावतात.

रगताची पुरवण करपी शिरो कुडिच्या खंयच्याय अवयवांत पावतात तेन्ना त्यो फांट्यांनी बारीक जायत वतात. ह्या फांट्यांक 'कॅपिलरीस' (Capillaries) म्हण्टात. जेन्ना रगत ह्या बारीक फाट्यांतल्यान घोळूंक लागता तेन्ना रगतांतल्यो गरजेच्यो वस्तू ह्या बारीक शिरांच्या पातळ वण्टीतल्यान भायर सरतात, आनी अवयवांच्या पेशींनी पावतात. ज्या पेशींपसून ह्या शिरांच्यो वण्टी घडिल्ल्यो आसतात तांचे मदले सुवातींतल्यान भायर सरतात. अशें मेदवांत जावंक पावना. हांगां कॅपिलरीस नांवाच्यो रक्तवाहिनी रगताची पुरवण करतात तांच्यो पेशी इतल्यो गच्च आसतात, जाका लागून रगतांतल्या मोटया कणांक सोपेपणी मेंदवाच्या पेशींत वचूंक मेळना, आनी ताका लागून मेंदवाच्या पेशींक मार बसूंक पावना, जे हेर अवयवांनी घडटा. पूण खरेंपणान मेंदवाक मोटया कणांची गरज आसता. पूण हे जर कण जशातशे मेंदवाच्या पेशिंनी पावले जाल्यार मेंदवाक मार बसूं येता. तेखातीर ह्या बारीक शिरांच्या वण्टींत एँजायमं नांवाचें जे पदार्थ आसतात ते ह्या मोटया कणांक तांच्या वण्टीतल्यान वचूंक दिनात आनी ताका लागून मेंदवाच्या रगतांतल्या मोटया कणांपसून मार बसूंक पावना.

**मेंदवाचें काम :** मेंदू कशेतरेन चलता हें शिकूंक शास्त्रज्ञांनी जायत्यो रिती सोदून काडल्यो आनी हेखातीर तांकां जनावरांच्या मेंदवाचो उपेग करचो पडलो. हाचेवेल्यान तांकां मेंदवाचे वेगवेगळे भाग कशे तरेन चलतात तें कळ्ळें. मनशाचो मेंदू हो एक भोव नाजूक असो अवयव जाल्ल्यान तो कसो चलता हें शिकूंक शास्त्रज्ञांक बरेच त्रास पडूंक लागले. तरी शास्त्रज्ञांनी पिडेस्तांच्या मेंदवाचो अभ्यास करून सरासरी मनशाचो मेंदू कसो चलता हें सोदून काडलें. मेंदू कसो चलता हें पळोवंक शस्त्रक्रिया करपी दोतोरांनी ती करतना मेंदवाच्या कॉरटॅक्स ह्या भायल्या थराचेर विजेच्या चिथावण्याचो उपेग केलो.

शस्त्रक्रिया करपी दोतोरांक अशें दिसून आयलें की, अंत्यमस्तिष्काक जीं दोन गोलार्दां (hemispheres) आसतात, तांचेरूच अंत्यमस्तिष्काची काम करपाची शक्त अवलंबून आसता. उजवें गोलार्द आपलीं लागिल्लीं कामां करता आनी दावें गोलार्द आपलीं लागिल्लीं कामां करता. कांय शस्त्रक्रिया करपी दोतोर मोल्लुकेची पिडा निवळावंक अंत्यमस्तिष्काच्या दोनय गोलार्दांक जोडपी 'कॉरपसकॅलोसम' हो भाग कापून उडयतात. आनी हाकालागून ह्या दोनूय गोलार्दां मदलो संबंद तुटिल्लेवरी जाता. जांच्या मेंदवाचीं दोनय गोलार्दां वेगळीं केल्लीं आसतात ते पिडेस्त अशें सुचयतात. दावें गोलार्द मनशाचे भाशेचो वापर करपाचेर, गणितशास्त्र आनी लॉजीक हांचेर नियंत्रण दवरता. उजवें गोलार्द संगीताकडेन कल, चेरे वळखप, किचकटिच्यो दिसपाच्यो रिती आनी मानसिक भावना उक्तावपाचेर नियंत्रण दवरता.

संवेदनाचे संदेश घेवप आनी ताचो अर्थ लावप हें अंत्यमस्तिष्काच्या भायल्या थराचें म्हणजे कॉरटॅक्स ह्या भागाचें काम आसता. कुडिचे वेगवेगळे भाग आपले संदेश 'थॅलमस' ह्या भागांकडेन धाडटात जो मागीर तांकां अंत्यमस्तिष्काच्या भायल्या थराचेर आसपी त्या त्या केंद्राकडेन वचपाच्या मार्गाक लायता.

अंत्यमस्तिष्काच्या भायल्या थराचेर संवेदनाची एक खाशेली सुवात आसता, तिका सॉमेस्टेटीक भाग (Somestetic area) अशें म्हण्टात. ह्या भागांत जे संदेश पावतात तांचो अर्थ तो कुडीची संवेदना, देखीक - स्पर्श आनी हुनसाण असो लायता. ही सुवात दर गोलार्दाच्या 'परायटल' ह्या भागाचेर मद्यवर्ती खांचीक तेंकून आसता. सॉमेस्टॅटीक कॉरटॅक्साचो दर एक भाग कुडिच्या खाशेल्या भागांकडल्यान आयिल्ले संदेश घेवपाचें आनी ताचो अर्थ लावपाचें काम करता.

अंत्यमस्तिष्काचे हेर भाग पळोवपाच्या, आयकुपाच्या, रूचिच्या आनी वास घेवपाच्या संवेदनाचे संदेश घेतात. दोळ्यांकडल्यान येवपी संदेश थेट ऑक्सिपिटल भागांत आसपी दिश्टी पडपाच्या कॉरटॅक्सांत वतात. टॅंपोरल भागाच्यो कांय सुवाती कानाकडल्यान आयिल्ले संदेश घेतात. रूच कळपाची सुवात ही कुशिनचे खांचीत खोल अशी पुरिल्ली आसता. वास घेवपाची सुवात ही फ्रंटल भागाच्या कुशिंनी आसता.

अंत्यमस्तिष्काचे वेगवेगळे भाग ज्ञानेंद्रियांकडल्यान आयिल्ल्या तंत्रिका संदेशाचो अर्थ लावपाचें काम करता. देखीक - दिश्टी पडप, आवाज, रूच आनी वास.

जेन्ना रिफ्लेक्स ही क्रिया जाता तेन्ना तातूंत मदीं मेंदू येना. जेन्ना

एक व्यक्ती तापिल्ल्या स्टोवाक हात लायता तेन्ना, दूख बादपी संदेश मेरूरज्जूकडेन पावता जो रोकडोच परत हात पेल्यान काडपाचो संदेश स्नायूंक धाडटा. पूण अंत्यमस्तिष्क आमकां कळपी वा ना कळपी हालचालींचेर नियंत्रण दवरता. अंत्यमस्तिष्कांत खोल भितर खाशेले तंत्रिका कोशिकांचे चोंबे आसतात. तांकां गँग्लिया (Ganglia) वा तळाचीं केंद्रां (basal nucleus) म्हण्टात. हीं तळाचीं केंद्रां, चलप वा खावप असले तरेच्या भाना विरयत जावपी हालचालींचेर नियंत्रण दवरतात. मेंदवाच्या खोडाचेर आसपी कांय सुवाती ह्यो कुडिचे इत्सेचें नियंत्रण नाशिल्ल्या स्नायुंचेर देखरेख दवरतात. देखीक - कोठ्याच्या, आंतकड्यांच्या आनी शिरांच्या स्नायुंचेर.

अंत्यमस्तिष्काचो भायलो थर आनी निमिस्तिष्क हे अवयव वांगडाच इत्सेप्रमाण जावपी हालचालींचेर नियंत्रण दवरतात. अंत्यमस्तिष्काच्या दर एका अर्दाचेर आसपी हालचालींचे कॉरटॅक्स बरोवपाक वा बोल उडोवपाक ज्यो हालचाली करूंक स्नायुंची गरज लागता तांकां तंत्रिका संदेश धाडटात. हे कॉरटॅक्स अंत्यमस्तिष्काच्या मुखावेल्या भागाचेर आसता. हालचाल करपी कॉरटॅक्साचो दर एक भाग कुडिच्या एका खाशेल्या भागाच्या हालचालींचेर नियंत्रण दवरता. व्हड भाग जे आसतात ते चड गुंतागुंतीच्या हालचालींचेर नियंत्रण दवरतात. ताचेवेलो आनीक एक व्हड भाग ओंठाचे आनी जिबेचे उलयतना जाल्ले हालचालींचेर नियंत्रण दवरता. ल्हान भाग हे सादे हालचालींचेर देखरेख दवरतात. देखीक : फाटिच्यो आनी भुजाच्यो हालचाली. कुडिच्या भागांनी वचपी व्हड हालचालींच्यो वाटो ह्यो मेंदवाच्या खोडांतल्यान वतना एकेवटेनच्यो दुसरे वटेन गेल्यान अंत्यमस्तिष्काच्या दाव्या अर्दांचे हालचालींचे कॉरटॅक्स कुडिच्या उजव्या अर्दाच्या हालचालींचेर नियंत्रण दवरता, तशेंच उजवे हालचालींचे कॉरटॅक्स हे कुडिचे दावे वटेनच्या हालचालींचेर नियंत्रण दवरतात. ९०% परस चड लोक हे उजव्या हातान काम करपी वा बरोवपी आसतात. कारण दावे हालचालींचे कॉरटॅक्स जाचें नियंत्रण उजव्या हाताचेर आसता ताचेर चड प्रमाणांत आसतात.

मेंदवाचो निमिस्तिष्क जो भाग आसता तो हालचालींचे कॉरटॅक्स ज्या स्नायूंक संदेश दिता तांचे भितर संतुळा राखपाचें काम करता. जेन्ना हालचालींचे कॉरटॅक्स कुडिच्या खंयच्याय एका भागाक काम करपा संबंदान फर्मावणी धाडटा तेन्ना तंत्रिका संदेश निमिस्तिष्काक जाग्यो करतात आनी ताका लागून कुडिच्या ह्या भागांतले संदेश कशेतरेन काम करपाचें तें कळयतात. निमिस्तिष्क ह्या हालचालींच्यो ज्यो हालचाली जावंक जाय ताचेकडेन तुळा करता आनी मागीर हालचालींच्या कॉरटॅक्साक त्यो सारक्यो करपासंबदान सुचवण्यो दिता. हाका लागून कुडिच्यो हालचाली सारक्यो चलतात काय ना हें निमिस्तिष्काक कळटा.

मनीस जी भास उलयता तातूंत मेंदवाचे जायते भाग आपले परीन काम करतात. दिश्टी पडपाच्या आनी आयकुपाच्या केंद्राक लागून आमकां बरयिल्लीं वा उलयल्लीं उतरा कळटात. अंत्यमस्तिष्काचे हालचालींचे कॉरटॅक्स आनी निमिस्तिष्क हे भाग ओंठाच्या, जिबेच्या आनी उलोवपाच्या हेर अवयवांच्या खाशेल्या हालचालींक संदेश धाडटात. तेभायर आनी दोन कॉरटॅक्साच्यो सुवाती जांकां जुळोवपाच्यो सुवाती म्हण्टात. त्योय भाशेचो वापर करपांत खुबूच गरजेच्यो आसतात. ह्यो सुवाती अंत्यमस्तिष्काच्या टॅम्पॉरल भागाचेर आनी फ्रॉन्टल भागाचेर आसतात. टॅम्पॉरल भागाचेर आसतात तांकां व्हरनीक्स आनी फ्रॉन्टल भागाचेर आसतात तांकां 'ब्रोकास' ह्या नांवांन वळखतात. चडशा उजव्या हातांनी बरोवपी लोकांच्यो भाशा उलोवपाच्यो सुवाती ह्यो अंत्यमस्तिष्काच्या दाव्या अर्दांत आसतात, जे लोक दाव्या हातांनी बरोवपी आसतात तातूंतल्या ७०% लोकांच्यो भाशेच्यो सुवाती अंत्यमस्तिष्काच्या दाव्या अर्दाचेरच आसतात. जे लोक दाव्या हातांनी बरोवपी आसतात तातुंतल्या १५% लोकांच्यो ह्यो सुवाती अंत्यमस्तिष्काच्या उजव्या अर्दान आसतात आनी १५% ह्यो अंत्यमस्तिष्काच्या दोनय अर्दांनी आसतात.

जेन्ना आमी एक उतर आयकतात तेन्ना 'व्हरनीक्स' नांवाची सुवात ह्या उतराच्या आवाजाचो अर्थ लायता. जेन्ना मनीस एक उतर वाचता तेन्ना मेंदवाचेर आसपी कोनाच्या आकाराची दोड 'Angular Gyrus' दिश्टी पडपी उतराचें ताका संबंदीत आवाजांत रुपांतर क रता जाचो व्हरनीक्स हो भाग अर्थ लायता. व्हरनीक्साक लागूनच मनीस जें उलयता ताचीं वाक्यां तयार जातात. ब्रोकास नांवाच्यो सुवाती ह्यो एक उतर उलोवपाक ज्यो स्नायुंच्यो हालचाली लागतात ताची म्हायती दितात. ही म्हायती हालचालींच्या कॉरटॅक्साकडेन वता, जे हालचालींक संदेश दितात.

कूड जीं तरेकवार कामां करता तांचीं केंद्रां मेंदवाच्या खोडाचेर आसतात. जीं तंत्रिका केंद्रां मेड्युला ह्या भागाचेर आसतात. तीं कुडिचीं कामां देखीक - उस्वास घेवप, काळजाचे ठेके आनी रगत घोळोवप हांचेर नियंत्रण दवरतात. मेंदवाच्या खोडाचेर आसपी हेर सुवाती ह्यो गिळपाचेर, कोठ्याच्या आनी अंत्तकड्याच्या हालचालींचेर नियंत्रण दवरतात. तशेंच हायपोथॅलामस ह्या भागाचेर आसपी तंत्रिका केंद्रां कुडिच्या कांय कामांचेर नियंत्रण दवरतात. देखीक - कांय केंद्रां मनशाच्या आंगांत कितलें उदक आसचें तें थारायतात. कुडिच्या तरेकवार भागांनी आसपी कांय तंत्रिका कोशिका, उदकाचे पातळेत जाल्ले बदल सोदून काडटात आनी ती म्हायती हायपोथॅलामस ह्या भागाक धाडटात. उदकाची पातळी चड उणी आसल्यार हायपोथॅलामस तानेची संवेदना तयार करता. ताका लागून मनशाक उदक पिवपाची इत्सा तयार जाता. हाचेबरोबर हायपोथॅलामस मुत्रपिंडाक संदेश धाडटा जाका लागून, जें कुडितलें उदक मुताच्या रूपान भायर धाडटात ताचें प्रमाण उणें जाता. जेन्ना उदकाची पातळी वयर वता तेन्ना हायपोथॅलामसाकडल्यान गेल्ले संदेश तान लागूंक दिनात आनी मुत्रपींड जें उदक गाळटा ताचें प्रमाण वाडयता. हायपोथॅलामसाचेर जीं हेर केंद्रां आसतात तीं ह्याच सिध्दांतावेल्यान भुकेचेर आनी कुडिच्या तापमानाचेर नियंत्रण दवरपाचें काम करतात.

पेशींपसून तयार जाल्लो देंठावरी दिसपी एक भाग, हायपोथॅलामस हाका पिचुयटरी नांवाची जी मुखेल ग्रंथी आसता तिका तेंकयता. हायपोथॅलामस हो हे ग्रंथीचेर आपलें नियंत्रण दवरता आनी ताका लागून ही ग्रंथी 'हारमोन्स' (hormones) नांवांचीं द्रवां तयार करून रगतांत सोडटा. हीं द्रवां मनशाचे कुडीत जायतीं कामां करता, तातूंत चड म्हत्वाचें आसता मनशाचे वाडिचें प्रमाण थारावपाचें.

मनीस ज्यो मानसीक भावना अणभवता तातूंत मेंदवाचे तशेंच कुडिच्या हेर अवयवांचे भाग त्यो जावंक दिवंक कारणीभूत आसतात. मेंदवाचेर आसपी कांय भागांचो एक चोंबो म्हळ्यार 'लिंबीक तंत्र'. तें मनशाच्यो मानसिक भावना तयार करूंक खुबूच गरजेचें अशें काम करतात. ह्या तंत्रांत मेंदवाच्या टॅम्पोरल भागाच्यो कांय सुवाती आनी हायपोथॅलामस आनी थालामस हांचे कांय भाग आस्पावतात.

मानसिक भावना ह्यो ज्ञानेंद्रियांकडल्यान आयिल्ले संदेश वा मेंदवाच्या

भायल्या थरांत (कॉरटॅक्सांत) तयार जाल्ल्या विचारांपसून उपरासूंक शकतात. हे संदेश लिंबीक तंत्राच्या वेगवेगळ्या भागांक चिथावणी दितात जे मनाक सुख मेळपासारक्यो भावना निर्मितात. देखीक - खोस जावप, मोग दिसप तशेंच कांय संदेश ह्या तंत्राच्या सुवातींक चिथावण्यो दितात, जांकां लागून मनशाक तिडक वा भिरांत दिसूंक लागता.

विचार करप आनी याद धरप ह्यो गजाली बऱ्याच गुंतागुंतीच्या क्रियांचेर अवलंबून आसतात. अजून मेरेन शास्त्रज्ञांक हाचेर मुळावीच म्हायती मेळ्ळ्या. विचार करपाची जी क्रिया आसता हातूंत मेंदवाचे जुळोवणेचे कॉरटॅक्स आनी हेर भाग आस्पावतात. ह्या भागांक लागून मेंदू यादींत दवरिल्ली म्हायती आनी ज्ञानेंद्रियाकडल्यान मेळिल्ली म्हायती एक करता. कांय गजालीं वयल्यान अशें दिसून येता की, यादी आसतात त्यो मेंदवांत नवे सरक्यूटस तयार जाल्ल्यान वा पयलीं आशिल्ल्या त्या सरक्युटसांत बदल जाल्ल्यान घडटात. ह्यो ज्यो क्रिया आसात त्यो सिनॅप्सींत बदल जाल्ल्यान जातात. म्हणजेच जे सुवातेर तंत्रिका कोशिकेंतलो एक संदेश दुसरे तंत्रिका कोशिकेंत वता ते सुवातेर हे बदल थंय आसपी ग्लुकोप्रोटीनस वा हेर कण आपल्या नियंत्रणाखाल दवरतात.

**मेंदवाची रसायनीक घडण :** हेर पेशींनी जशो घुस्पावळीच्यो रसायनीक क्रिया घडटात, तशोच त्यो मेंदवाच्या तंत्रिका कोशिकांनी घडटात. कांय रसायनीक क्रिया ह्यो फकत तंत्रिका कोशिकां भितर आनी तांचे मजगतीं घडटात. एक तंत्रिका संदेश ही एक वीज. रसायनीक क्रिया आसता, जिचें नियंत्रण तंत्रिका कोशिकेच्या आवरणाचेर अवलंबून आसता. हे क्रियेंत वीज आशिल्ले 'सोडियम आनी पॉटेशियम, हांचे अणू (ions) भाग घेतात. ह्या आवरणाक बुराक आसतात आनी ते तंत्रिका कोशिकेभितल्ल्या आनी भायल्या पातळ द्रवांत आसपी, ह्या अणुंचें प्रमाण वेगवेगळें दवरपाचें काम करता. तेचपरी हें आवरण आपल्याक जाय त्याच अणूंक भितर घेता, आनी पेशिंतल्यान भायर सोडटा. ताका लागून एक विजेवरी संदेश तयार जावन तंत्रिका कोशिकेंतल्यान घोळूंक लागता.

कांय न्युरोट्रान्समिटरस नांवांच्या रसायनीक पदार्थाक लागून एक तंत्रिका संदेश तंत्रिका कोशिकेच्या लांब तंतूतल्यान दुसरे तंत्रिका कोशिकेच्या मोटव्या तंतूंनी वता. एक संदेश दोन तंत्रिका कोशिकांमदीं आसपी अशीर सुवातेंतल्यान फकत विजेवरी शक्तीचेर अवलंबून वचूंक शकना. हे खातीर जेन्ना एक संदेश एक्सॉन ह्या लांब सुताच्या तोंकार पावता तेन्ना तो न्युरोट्रान्समीटर ह्या पेशींपसून तयार जाल्ल्या कणांची निर्मिती करता. हे कण दोन तंत्रिका कोशिकांमदीं आसपी अशीर सुवातेंतल्यान भितर सरतात आनी मोटव्या तंतूंचेर आसपी 'रिसॅप्टरस' नांवांच्या सुवातींचेर हल्लो करतात. ही कृती दोन तरांनी घेवपी तंत्रिका कोशिकेचे विजेचे हालचालींत बदल घडयता. कांय टान्समिटरस तंत्रिका कोशिकेक चिथायतात आनी तातुंतल्यान एक तंत्रिका संदेश तयार जाता. जाल्यार दुसरे, तंत्रिका कोशिकेक संदेश तयार करूंक दिनात. मेंदू तरेकवार रसायनीक पदार्थ तयार करता. जांचो न्युरोट्रान्समिटर म्हणून उपेग जाता. हातुंतले सर्रास प्रमाणान तयार जावपी न्युरोट्रान्समीटर अशे आसात : आसेटीलकोलीन (Acetylcholine), डॉपामीन (Dopamine), नॉरआड्रेनालीन (Noradrenaline) आनी सेरोटोनीन (Serotonin). हे रसायनीक पदार्थ अख्ख्या मेंदवांत पातळिल्ले नासतात. ते मेंदवाच्या खाशेल्या सुवातिंनी आसतात. देखीक - तंत्रिका कोशिकेचे पेशींत आसपी 'डॉपामीन' हे रसायनीक पदार्थ मदल्या मेंदवात आसतात. ह्या पेशींचे लांब तंतू म्हळ्यार एक्सॉनस हे अंत्यमस्तिष्काच्या मदीं आसपी 'कोरपस स्ट्रायेटम' हे सुवातींत ताच्या मुखावेल्या भागांत आनी हेर सुवातिंनी पावतात. मनशाच्यो मानसीक भावना आनी घुस्पावळीच्या हालचालींचेर डोपामिनाच्यो वाटो नियंत्रण दवरतात. १९७० वर्सा शास्त्रज्ञांनी असो सोद लायलो की, 'मॉरफीन' आनी ताचेकडेन संबद आसपी वखदां मेंदवाच्या कांय सुवातिंनी आसपी रिसॅप्टरस ह्या पेशींचेर हल्लो करून दूख देंवयतात. हाचेवेल्यान अशें दिसून येता, मेंदू हो आपूण जावन दूख देंवोवपाचे पदार्थ तयार करता, जे कांय रिसॅप्टरस नांवाच्या पेशींचेर हल्लो करतात. एँडोरफीनस् (endorphins) आनी एंकेफॅलीनस् (enkephelins) हे दोन तरेचे न्युरोट्रान्समीटरस् ह्या रिसॅप्टरांक जोडिल्ले आसात.

**मेंदवाचें रसायनीक शास्त्र आनी मानसीक पिडा :** मेंदवाची काम करपाची शक्त ही ह्या न्युरोट्रान्समीटरस हाचे काम करपाचे शक्तीचेर अवलंबून आसता. जेन्ना हे ट्रान्समीटरस मेंदवांत चड प्रमाणांत तयार जातात वा तांचो उणाव भासता तेन्नाच मनशाक विचार करपा संबंदान, ताचे वागणुके संबंदान गंभीर बादा जावंक शकता. देखीक - शास्त्रज्ञांनी केल्ल्या अभ्यासावयल्यान ह्या रसायनीक पदार्थाचे असमतोलतायेक लागुनूच मनशाक तरेकवार मानसीक पिडा जावंक शकतात. स्किजोफ्रेनिया (schizo phrenia) हे मानसीक पिडेंत मनशाच्या मेंदवांत वेगळेतरेन हे पदार्थ तयार जातात, जाका लागून नाशिल्ल्योच वस्तू दिसूंक लागतात आनी तांचे आवाज आयकूंक येतात. तशेंच ह्या पदार्थांच्या उण्या अदीक प्रमाणाक लागून पिशेपणाची पिडा जडूंक शकता. ही पिडा जाली जाल्यार मनशाक आलटून पालटून खोशेचे आनी निरशेणेचे झटके येतात. कांय जाणांच्या मताप्रमाण डोपामीन, नॉरआड्रेनालीन आनी सेरोटोनीन हे रसायनीक पदार्थ मेंदवांत चड प्रमाणांत तयार जाल्ल्यान मनशाक निरशेणी येवंक शकता वा पिशेपणाची पिडा जडूंक शकता.

मानसिक पिडा निवळावंक ह्या विशयांतले तज्ञ दोतोर वखदांचो उपेग करतात, जीं मेंदवाची रसायनीक घडण बरेतरेन राखूंक हातभार लायतात. देखीक - स्किजोफ्रेनिया ही मानसिक पिडा निवळावंक जीं ट्रांक्विलायसरस (tranquilizers) जातींतलीं वखदां वापरतात तीं मेंदवाचेर आसपी डॉपामिनाचें रिसेप्टरस आडावन धरतात. जीं वखदां सर्रास प्रमाणान डिप्रेशन ही मानसीक पिडा निवळावंक वापरतात तीं, जंय दोन तंत्रिका कोशिका आपले भितर मेळटात थंय डोपामीन, नॉरआड्रेनालीन आनी सेरोटोनीन हाचें प्रमाण वाडयतात. कांय वखदां घेतकूच मनशाक बरें दिसता, ताच्या मनावयलो ताण देंवता, चिंता उणी जाता. हें सगळें मेंदवाचे रसायनीक घडणेंत बदल जाल्ल्यान जाता. देखीक : आंफेटामीनस (Amphetamines) हे जातीतलीं वखदां मनशाची मानसिक शक्त वाडयता, जाकालागून मेंदवाच्यो पेशी चड प्रमाणांत 'डोपामीन' तयार करतात. चड प्रमाणांत आंफेटामीनस हीं वखदां घेतल्यार मनशाची मानसीक स्थिती इबाडूंक शकता. हालुसिनोजेनीक (halucinogenic) ह्या जातींतल्या वखदांक लागून मनशाच्या ज्ञानेंद्रियांचेर, विचार करपी शक्तीचेर वायट परिणाम जाता. देखीक - हीं वखदां अशी : मेस्कालीन, प्सिलोसिबीन आनी एल्. एस. आय. (लायसरजीक एसीड डायएथिलामायड हीं वखदां ताचे रचणुकेक लागून तीं न्युरोट्रान्समीटरस हांचे भशेन दिसतात).

**तकलेच्यो पिडा :** मनशाच्या मेंदवाक तीन तरांनी बादा जावंक शकता.

१) ताका भायल्यान बशिल्लो मार.

२) ताका तरेकवार कारणांक लागून जाल्ल्यो पिडा.

३) बडीक लागून जाल्ल्यो पिडा (Hereditary).

मेंदवाक जी बादा जाता तिची गंभिरताय ती कसल्या कारणाक लागून जाता, ताचे परस ती खंयचे सुवातेक जाल्या ताचेर अवलंबून आसता. ज्यो पिडा मेंदवाच्यो पेशी इबाडून उडयतात त्यो चड खर आसतात. एक फावट इबाडिल्ल्यो पेशी परत जाग्यार येवंक बरेंच कठीण आसता. पूण कांय वेळा ज्यो बऱ्यो पेशी आसतात त्यो इबाडिल्ले पेशिचें काम करतात.

आर्विल्ल्या काळांत तपासणी करपाची आधुनीक साधनां आनी तंत्रां आयिल्ल्यान दोतोरांक मेंदवाच्या पिडांची वा ताका जाल्ल्यो हेर बादा हांची परिक्षा जाता तितले बेगीन आनी सोपेपणान करूंक मेळटा. देखीक - इलॅक्ट्रोएन्सेफालोग्राम (electroencephalogram, E.E.G.) हें उपकरण मेंदवाच्यो तातुंतल्यान वीज घोळपाच्यो रिती नोंद करता. हाका लागून मेंदू कसो चलता तें कळटा.

कॉम्प्युटरायझड टॉमॉग्राफी वा सि. टी. स्कॅन हातूंत तरेतरेच्या कोनांतल्यान मेंदवाचे 'ऍक्स रे' काडटात आनी एक संगणक ताची चिकित्सा करून फावो तें मेंदवाचें पडबींब टि. व्ही. च्या पड्डयाचेर येता.

तेभायर 'मॅग्नेटीक रिसोनंस इमेजींग' (M.R.I) ह्या आधुनीक तंत्राचो हालीसराक उपेग करतात. हातूंत लोहचुंबकाचें मळ (Megnetic field) आनी रेडियो जातींतलीं ल्हारां (Radio waves) मेंदवाच्या भागाचें पडबींब दाखोवंक हातभार लायतात.

**तकली उसळप** : हो मनीस जातीक सर्रासपणान पिडपी एक प्रकार आसा. तकली उसळपाची पिडा ही सौम्य धरून खर मेरेन जावंक शकता. तशेंच ती एका वरापरस उणी धरून ते कांय दीस मेरेन तशीच उरूं येता.

तकलेक बशिल्लो मार, तकलेचे ताणिल्ले स्नायू वा तकलेच्या कातींतल्या उसळपी शिरांक लागून मनशाची तकली उसळूं येता.

दोळ्यांचेर पडिल्लो ताण (strain), जोर येवप, 'सायनस' ह्या तकलेच्या भागांक जंतूपासून जाल्ली बादा वा ऍलरजी ह्या तरेकवार कारणांक लागुनय मनशाची तकली उसळूं शकता.

मेंदवांत वाडपी गाठ 'ट्युमर' वा हेर, ताका जाल्ल्या कसल्याय पिडांक लागून मनशाची तकली उसळूंक शकता. पूण ही कारणां सर्रास प्रमाणान जावपासारकीं नासतात.

तकली उसळप हें दोन तरांचें आसूं येता.

१) ऍक्यूट (Acute) २) क्रॉनीक (Chronic)

**ऍक्यूट :** ह्या प्रकारांत तकली मदींच केन्नाय उसळटा, आनी उसळ्ळी जाल्यारय ती थोडो वेळमेरेन उरता आनी आपले आपूण थांबता. हेखातीर पिडेस्ताक दोतोरा म्हन्यांत वचपाची गरज पडना. फकत कांय वेळ मेरेन विसव घेतल्यार ती थांबूक शकता.

**क्रॉनीक :** ह्या प्रकारांत तकली परत परत उसळूंक शकता आनी ती एक फावट उसळूंक लागल्यार चड-वेळ मेरेन उरता.

दोन पिडांक लागून मनशाची तकली परत परत उसळूंक शकता. १) मायग्रेन (Migraine), २) टॅन्शन हेडेक, मानसीक ताणाक लागून उसळपी तकली.

**मायग्रेन :** हातूंत मनशाची तकली चड खर प्रमाणांत उसळूं येता. तशेंच ताका ओकूंक आयिल्लेवरी दिसता. कांय खेपे ओंकारेय येतात. ही पिडा चड करून तकलेंतल्यो रगताची पुरवण करपी शिरो ताणिल्ल्यान आनी सुजिल्ल्यान जाता. कांय लोकांक चॉकलेट आनी चीज, ह्यो वस्तू खातकच मायग्रेनाचो झटको येवंक शकता. 'मायग्रेन' ही मदीं मदीं उचकुपी अशी एक त्रासदायक पिडा. तिची दूख एक एक फावट खुबूच खर आसता. कांय जाणांक ही पिडा सप्तकांतल्यान दोन फावटी जावं येता, पूण कांय जाणांक ती कांय म्हयने धरून तीं कांय वर्सां मेरेनच्या अंतरान जाता. चडशा जाणांक मायग्रेन ही थरावीक पद्दतीन जाता. तकली उसळूंक लागचे पयलीं पिडेस्ताक आपले नदरे मुखार काजुले चकचकिल्लेवरी वा काळे थिपके दिशिल्लेवरी जाता. कांय जाणांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां येतात आनी नदर धुंवसार जाता. एक एक फावट खंयचेय एके वटेनचे हातपाय मुयेल्लेवरी जातात. हें सगळें जाल्या उपरांत तकली एके अमुकूच सुवातेर उसळूंक लागता आनी पिडेस्ताक ओंकूक आयिल्लेवरी दिसता.

दोतोर ही पिडा उणी करूंक जीं तरेकवार वखदां दिता ताका लागून रगताची पुरवण करपी शिरांक आयिल्ली सूज देंवता.

**मानसिक ताणाक लागून उसळपी तकली Tention Headache :** जायत्या जाणांक मानसीक ताणाक लागून तकली उसळटा. जेन्ना मनशाच्या मनाचेर कसल्याय कारणाक लागून ताण वाडटा वा ताका खूब पुरो जावन ताचे कुडियेयलो ताण वाडिल्लो आसता तेन्ना तकलेचे स्नायू आंवुळटात जाका लागून मनशाची तकली उसळटा. हांगा तकली उसळपाची दूख ही चड करून तकलेचे फाटलेवटेनच्यान आनी मानेच्या भागांत उपरासता. चडशी मानसीक ताणाक लागून उसळपी तकली ही दूख काडपाच्या गुळयांनी उणी जाता.

**मनशाचे तकलेक बशिल्लो मार** (Head injury) : पन्नास वर्सां पिराये सकयल्या लोकांक मेंदवाक बादा जावपाचें मुखेल कारण आसता तांचे तकलेक बशिल्लो मार.

जेन्ना तकलेक कसल्याय कारणाक लागून मार लागता तेन्ना त्या माराचे तिव्रतायेप्रमाण तिका उणी अदीक दुखापत जावंक शकता. जेन्ना मार सौम्य आसता तेन्ना तिका जी दुखापत जाता ती कायमच्या स्वरूपाची नासता. पिडेस्ताची तात्पुरती साबूद वचून तो त्या मारांतल्यान पुरायपणान निवळूंक शकता. पूण जेन्ना लागिल्लो मार चड खर आसता तेन्ना तो चड भितर मेरेन पावन मेंदवाची वाट लागूं येता. हो प्रकार चड गंभीर आसता. रोकडोच उपाय जालो ना जाल्यार पिडेस्त आपलो जीव वगडावंक शकता. हाचें मुखेल कारण आसता मेंदवात वा ताच्या भोंवतणच्या आवरणां मदीं आसपी सुवातींनी जाल्लो रक्तस्त्राव म्हणजेच हेमोरेज (Hemorrage). हें सांकळपी रगत ऑपरेशन करून रोकडेंच भायर काडलें ना जाल्यार ताचो दाब मेंदवाचेर पडून ताचेर आसपी तरेकवार केंद्रां निकामी जावंक शकतात आनी मनशाची भलायकी सामकीच इबाडूंक शकता.

भुरगें जावचे पयलीं, जातना वा रोकडेंच जाल्या उपरांत जर ताचे तकलेक मार बसलो जाल्यार ताचे कुडिचो खंयचोय एक भाग लुळो पडूं येता. ह्या प्रकाराक सॅरॅब्रल पॉल्सी (Cerebral palsy) म्हणटात. मेंदवाक मार लागून लुळे पडपाचे खूब तरांचे प्रकार आसतात, जातूंत मनशाच्या स्नायुंचो हालचालींवयलो ताबो सुटिल्लो आसता.

**स्ट्रोक :** ही मनशाच्या मेंदवाक सर्रासपणान जावपी एक खर पिडा आसा. ही पिडा मनशाच्या मेंदवाच्या खंयच्याय भागाक रगताची पुरवण करपी शीर तुटिल्ल्यान जाता. ताका लागून ज्या भागाक ती जाता, थंयच्यो तंत्रिका कोशिका मरतात आनी ताका लागून हे भाग जीं मनशाचे कुडिचीं कामां करतात ताचे वयलें तांचें नियंत्रण तुटून मनशाची कूड जशी चलूंक जाय आशिल्ली तशी चलना. आनी तो अपंगूळ जावन पडटा.

जांकां ही पिडा जाता तांचें चड करून, कुडिचें एक अर्द धरता, तो भाग स्नायुंची हालचाल जायनासतना सामकोच लुळो पडटा. हेर लक्षणां अशीं आसतात : पिडेस्ताक उलयतना त्रास जावप आनी तो जें कितें उलयता तें समजूक कठीण जावप. चडशे स्ट्रोक हे रगताची पुरवण करपी शिरांक मार बशिल्ल्यान जातात. हाचे फाटलीं कारणां अशीं : वाडिल्लो रगताचो दाब म्हळ्यार हायपरटॅन्शन (Hypertension) आनी शिरो घटसार जावप म्हळ्यार आरटेरोस्क्लेरोसीस (Arteroscelerosis).

ज्या पिडेस्तांक स्ट्रॉकाचो झटको खर प्रमाणांत आयिल्लो आसता ताका मरण येवंक शकता. पूण बरेंचशे पिडेस्त हे पिर्डेतल्यान पुराय तरेन न्हय जाल्यार थोडच्या प्रमाणांत तरी निवळटात.

**मेंदवांत वाडपी गांठी (ब्रेन ट्युमरस)** : ट्यूमर म्हळ्यार मेंदवांत वाडपी एक गांठ. जिका लागून मेंदवाक खर प्रमाणांत मार बसूं येता. हे पिडेचे परिणाम मेंदवांत वाडपी तिच्या आवाठाचेर आनी ती मेंदवाच्या खंयच्या भागाक जाल्या ताचेर अवलंबून आसता. मेंदवांत वाडपी ही गांठ जे सुवातेर वाडटा थंयच्यो आनी आपले भोंवतणच्यो तंत्रिका कोशिका इबाडून उडोवंक शकता. जशी जशी ही गांठ वाडत वता तसो तसो तिचो दाब हेर भागांचेर पडून तांची काम करपाची शक्त जायत्या प्रमाणांत उणी जावंक शकता.

**हे पिडेचीं लक्षणां अशीं आसतात** : तकली उसळप, मारून येवप, चड प्रमाणांत न्हीद येवप, मनशाच्या व्यक्तिमत्वांत बदल जावप, समजुपाची शक्त देंवप आनी उलयतासतना आडखळ जावप.

ह्यो गांठी दोन तरांच्यो आसतात : बऱ्यो (benign) आनी वायट मॉलिग्नंट (Malignant). मेंदवांत वाडपी गांठी ह्यो बरे जातींतल्यो आसल्यार पिडेस्त ऑपरेशन करून निवळूं येता. पूण त्यो जर कॅन्सराक लागून जाल्यो आसत जाल्यार, असल्या पिडेस्तांक ऑपरेशना वांगडाच वखदां आनी रेडियेशन थेरापी (Radiation therapy) असले तरेचे उपाय करतात.

**मेंदवाक वायट जंतूंपसून जाल्ल्यो पिडा** (Infection Diseases): बॅक्टेरिया आनी व्हायरसीस ह्या जंतूंपसून जाल्ल्या जायत्या पिडांक लागून मेंदवाक बादा जावं येता. हातुंतल्यो सर्रासपणान जावपी म्हत्वाच्यो पिडा अशो : 'एन्सेफलायटीस' (Encephaletis) आनी मेनिंजायटीस (Meningitis). ह्यो पिडा वयर सांगल्यात त्या जंतूंपसून जातात.

एन्सेफलायटीस ही पिडा जाल्यार मेंदवाक सूज येता. मेनिंजायटीस ही पिडा जाल्यार मेंदू आनी मेंदू रज्जू भोंवतणी आसपी आवरणाक सूज येता. ह्यो दोनय पिडा बऱ्योच खर आशिल्ल्यान तांचेर रोखडोच उपाय जालो नाजाल्यार पिडेस्त हाताभायर वचूंक शकता. ताकालागून ज्या जंतूक लागून ही पिडा जाल्या तें पळोवन ते जंतू ना करून उडोवपी अँटिबायोटिक्स वखदां दितात आनी फाव ते हेर उपाय करतात. चड करून ऍन्सेफलायटीस ही पिडा व्हायरस ह्या जंतूपसून जाल्ल्या कारणान तिका अँटिबायोटिक्स वखदां लागू पडनात. ह्यो पिडा चड करून ल्हान भुरग्यांक जातात. जायतीं पिडेस्त भुरगीं हातूंतल्यान निवळूंक पावनात आनी निवळ्ळ्यारय फुडाराक तांचे कुडीक कसलोय दोश उरूं येता. वा तीं सामकींच अपंगूळ जावन पडूं येतात.

**कोरेया :** (Chorea) ही ६ ते १५ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांक जावपी एक मेंदवाची पिडा. ही पिडा चड करून 'रेवमेटीक फिव्हर' हे पिडे वांगडा जाता. तांचो दोगांयचो जंतू एकूच आसता.

**पोलियोमायलायटीस :** (Polyomylitis) ही आनीक एक मेंदवाक आनी मेंदू रज्जूक जावपी व्हायरस जातींतली पिडा आसा. हे पिडेक आडावपी वासिनां सोदून काडिल्लीं आसात. हीय पिडा ल्हान भुरग्यांकच जाता. आनी ती तांकां जाल्यार तांचे कुडिचो खंयचोय भाग स्नायुंची काम करपाची शक्त उणी जाल्ल्यान लुळो जावन निकामी जांव येता. हाका लागून भुरग्यांक फुडाराक अपंगूळपण येता. ही पिडा व्हायरस जंतूपसून जाल्ल्यान तिचेर अमुकच एक वखद ना. पिडेस्ताक तो जीं लक्षणां दाखयता ते प्रमाण उपाय करतात. हातूंत चड म्हत्व आसता तें फिजियोथेरपी ह्या उपायाक. जाका लागून स्नायुंची शक्त वाडूंक शकता.

**जीन्‌सांपसून जाल्ली मेंदवाक बादा :** मनशाचे बडिचे मूळ घटक जीनस (genes) हे आपले वांगडा मेंदवाची वाड जावपाच्यो सुचवण्यो व्हरतात. ह्यो सुचवण्यो खुबूच गुंतागुंतीच्यो आसतात आनी ताका लागून कांय फावटी खूब चुकोच घडूं येतात. जांकां लागून मेंदवाचे रचनेत आनी काम करपाचे पद्दतींत गंभीर दोश निर्माण जांव येतात. तशेंच तांकां कसलीय बादा जावं येता.

कांय भुरगीं जल्मतनाच सारको वाड जायनाशिल्लो मेंदू घेवन जल्मतात. तांकां मेंटली रिटारडेड (mentally retarded) अशें म्हण्टात. हीं भुरगीं जेन्ना आवयच्या पोटांत वाडटात तेन्ना तांच्या जिनसाचे रचनेत कसलीय तरी चूक आसता. ताका लागून मेंदवाची जाय तशी वाड जाल्ली नासता. देखीक : डावन सिंड्रोम (Down Syndrome) ह्या प्रकारांत 'क्रोमोसोम' चड आसतात. पेशिंच्या केंद्रीय बिंदूंत (Nucleous) जीनस आंगांत आशिल्ल्या घटकांक क्रोमोसोमस म्हण्टात. ह्या आलायत्या क्रोमोसोमांक लागून मनशाच्या मेंदवाची वाड सारकी जायनासतना उरता. ते भायर कुडीक कांय दोश जातात. कांय भुरग्यांक जल्मतनाच तांच्या मेंदवाक चड प्रमाणांत बादा जाल्ली आसता. हो प्रकार अनुवंशीक आसता. ह्या प्रकारांत एन्जायम (enzyme) नांवाच्या द्रवाची उणीव आसता. ह्या पदार्थाक लागून आमी जें कितें खातात ताचो उपेग जावंक पावता. देखीक - ज्या भुरग्यांच्या मुतांतल्यान फिनायल किटोन्स (Phenyl Ketones) हो रसायनीक पदार्थ वता तो तांच्या रगतांत एन्जायम ह्या द्रवाची उणीव आशिल्ल्यान वता. हें एन्जायम आमिनोएसीड ह्या पदार्थांचें परिवर्तन करता. पूण जेन्ना भुरग्याच्या आंगांत ताची मूळचीच उणीव आसता तेन्ना हें परिवर्तन जावंक पावना आनी फेनिलानीन ह्या आमायनोएसीडाचें प्रमाण रगतांत वाडटा. जाका लागून मेंदवाच्या पेशींक मार बसता. असल्या भुरग्यांक हो अमायनोएसीड उणो आशिल्लें अन्न दिलें जाल्यार तांकां ही मेंदवाक जावपी बादा जावंक पावना.

**मेंदवाच्यो हेर पिडा :** हातूंत तीन पिडा आस्पावतात. (१) एपिलेप्सी - मोल्लुकेची पिडा (२) मल्टीपल स्क्लेरोसीस (३) पारकिन्सन डिसीस.

**एपिलेप्सी - मोल्लुकेची पिडा :** ही पिडा जाल्यार मनशाक मारून येता. हाचे फाटलें कारण मेंदवाच्या एका भागांतल्यान तंत्रिका कोशिकांनी सदां तयार जातात. ताचे परस वेगळेतरेन तयार जाल्ले तंत्रिका संदेश - नरव्हइम्पल्सीस (Nerve impulses). असल्या पिडेस्तांक जें मारून येता

ताका लागून मनशाचें नियंत्रण नाशिल्ल्या स्नायुंच्यो हालचाली जातात. आनी मनशाची शाबूद वता. हो मारून येवपाचो प्रकार दोतोर तरेकवार वखदां दिवन निवळायता वा उणो करता.

**मल्टिपल स्क्लेरोसीस** (Multiple Sclerosis): मेंदवांत आनी मेंदू रज्जूंत आसपी कांय तंत्रिका कोशिकांच्या एक्सोन नांवाच्या लांब प्रवर्धांचें मायेलिनाचें आवरण ना जाल्लें आसता. तेन्ना हो प्रकार घडटा. हें आवरण ना जाल्ल्यान ते सारके तंत्रिका संदेश व्हरूंक पावनात.

हे पिडेचीं लक्षणां तीं मेंदवाच्या खंयच्या भागाक जाल्या ताचेर अवलंबून आसता. हीं लक्षणां सर्रासपणान अशीं आसतात. कसलीय वस्त दोट्टी दिसप (double vision), तोल सारको उरप ना, खंयचोय हात वा पाय लुळो पडप. कांय वखदांनी हीं लक्षणां उणी जांव येतात. पूण ही पिडा एक फावट जातकच ती पुरायपणान केन्नाच निवळूंक शकना.

**पारकिनसनस डिसीस** (Parkinson's disease) : ही पिडा जाल्यार मनशाची हालचाल सवकसायेन जाता. ताचे स्नायू आंवळून येवन घट जाल्लेवरी जातात आनी तांकां कडकडो येत रावता.

ही पिडा 'डोपामीन' ह्या न्युरोट्रान्समिटराच्या तंत्रिका वाटांची वाट लागिल्ल्यान जाता. हाचेर उपाय म्हळ्यार 'डोपामीन' हें द्रव गुळयांच्या रुपान पिडेस्तांक दिवप. हाका लागून मेंदवांत उणें जाल्लें डोपामिनाचें प्रमाण भरून येता आनी हे पिडेच्या लक्षणांक आळो बसता. पूण चड म्हत्वाचें म्हळ्यार ही पिडा पुराय प्रमाणान निवळूक शकना.

**मेंदवाच्यो अनुवंशीक पिडा** : कांय मनशांक मानसीक पिडा ही अनुवंशीकतायेक लागूनय जाता. देखीक - कितलेशाच स्किजोफ्रेनीक आवय - बापायच्या भुरग्यांक ही पिडा जातनाच (बडिंतल्यान) येवं येता. तशेंच पिशेपणा आनी डिप्रेशन ह्योय मानसीक पिडा बडिच्योच आसूं येतात.

अनुवंशीकतायेक लागून मेंदवाचे रसायनीक घडणेंत मुळचेच उप्रासिल्ल्या दोशाक लागून अशे तरेच्यो मानसीक पिडा जावंक शकता. शास्त्रज्ञ अजुनय ह्या मळार आपलो अभ्यास करीत आसात.

१९७० वर्सा 'जिनेटिक्स' (Genetics) ह्या मळाचेर काम करपी शास्त्रज्ञांनी एका जिवितांतल्यान खाशेले 'जीनस' अदीक उणें करपाचें तंत्र सोदून काडलें. जाका लागून मेंदवाक जाल्ल्यो अनुवंशीक पिडा निवळावपाचे नवे नवे उपाय येवंक शकतात.

– डॉ. अनंत हेदे

पूरक नोंद : तंत्रिका तंत्र.

## तण

**तण** : (संस्कृत : तृण; कन्नड : हुळ्ळू; इंग्लीश : ग्रासीस; कूळ : ग्रॅमिनी).

विविधरूपी आनी विविधगुणी पूण एके जातकुळये सकल येवपी वनस्पतीखातीर दिल्लें सामुदायिक नांव. 'तृण' ह्या संस्कृत नांवापसून तण हो शब्द आयला. हातूंत अन्नधान्याची पिकावळ दिवपी वनस्पत आनी ह्याच कुळांत बसपी हेर वनस्पतींचो आसपाव जाता. हे वनस्पतीचो ग्रॅमिनेलीझ ह्या गणांत आस्पाव जाल्लो आसून तिका 'तण' ह्या नांवान वळखतात. ही वनस्पत जगभर पातळिल्ली आसा. उश्ण आनी समशीतोश्ण कटिबंधांत ती चड करून मेळटा. एक वा चड वर्सां जगपी हे वनस्पतीच्यो सुमार ५,००० वयर जाती आसात. इंग्लीशींत 'ग्रासीस' हे संज्ञेंत केन्नाकेन्नाय सायपेरेसी आनी जुंकेसी ह्या कुळांतल्या कांय जातींचो आसपाव करतात. चडांत चड ६,००० मिटर मेरेन उंचायेच्या प्रदेशांत तण वाडटा. तणाचे दोन मुखेल प्रकार आसात - लागवड केल्लें तण आनी आपशींच जाल्लें तण. तण वाडपाचे भुगोलीक सुवातेवयल्यान तणाक रेंवटी तण, उदकी तण, दोंगरी तण, शेतकी तण अशे तणाचे प्रकार करूं येतात.

हाचेच जोडयेक झाडाचेर जावपी तणाक बेनल्ल तण म्हण्टात.

तणाच्या उपेगाच्या संदर्भांत तणाचे प्रकार करूं येतात ते अशे - १) अन्नधान्याचीं तणां - भात, गंव, जोंधळो, ज्वारी, वरी, राय, मको, नाचणो हांचे सारकिल्लीं अन्नधान्यां त्या त्या तणांपसून तयार जातात.

२) चाऱ्याचीं तणां - हरवण, चार, गजराज, कुसळी हे सारकेलीं फक्त मोनजातीचे खावडीखातीर उपेगाक येवपी तणां आसात.

३) रोसाचीं तणां - अ) उशी कांडो - उशीकांड्याच्या रोसापसून साकर आनी गोडासारके पदार्थ तयार जातात.

आ) वाळो, गंजन, रोशा सारकिल्या तणांपसून वासाचीं अत्तरां तयार करतात.

४) बांदकामाक उपयुक्त तण - कोंडे, वेळू सारकिल्ली वनस्पत बांदकामाक उपेग पडटा.

५) सोबेचीं तणां - घरामुखार, खेळामैदानांचेर तशेंच बागांनी थंयचो परिसर सोबोवपाचे नदरेन उणे उंचायेचें तण रोयतात.

६) वखदी तणां - हरयाळी, गंजन सारकेलीं तणां वखदांखातीर वापरतात.

वयर दिल्ल्या प्रकारांभायर तेल (मको), कागद (ऊंस, कोंडो), शाबू (मको), शेंदऱ्यो (ल्हवो), सान्नी ह्या वस्तूंखातीर तणाचो उपेग करतात.

वयर दिल्ले वेगवेगळे तणांचे प्रकार हे वनस्पतशास्त्राचे नदरेन तण हे वनस्पतीखाला येतात आसले तरी तण ही संज्ञा भोव करून लागवडीखाला आशिल्ल्या वनस्पतीवांगडा वाडपी. आपशींच वयर सरिल्ल्या वनस्पतीकूच लावप जाता.

– कों. वि. सं. मं.

## तत्त्वगिन्यान

**तत्त्वगिन्यान** : 'फिलॉसफी' हें उतर दोन उतरांपसून निर्माण जालां. फिलो (Love) वा प्रेम आनी सोफिया (Wisdom) वा विवेक, म्हणून व्युत्पत्तीचे अनुसार फिलॉसफीचो अर्थ आसा, विवेकाविशीं अनुराग वा प्रेम. भारतीय भाशेंत हाकाच 'दर्शनशास्त्र' वा 'तत्त्वज्ञान' अशें म्हण्टात. हांगा विवेक म्हळ्यार फकत ज्ञान न्हय तर ज्ञानाची समीक्षा.

दर्शनशास्त्र वा तत्त्वज्ञान हांच्या मतितार्थासंबंदीं मतभेद आसात. एका मता प्रमाण हें वैज्ञानिक ज्ञानाचें संश्लेशण वा समन्वयन. भौतिकशास्त्र, रसायनशास्त्र, प्राणिशास्त्र ह्या शास्त्रांतलें प्रत्येक शास्त्र प्रकृतीच्या एकाद्या विशिश्ट आंगाचें सखोल अध्ययन करता. प्रत्येक विज्ञानांतल्यान प्राप्त जाल्लें सत्य सिमीत आसता, हें हाचेवयल्यान स्पश्ट जाता. हाचेच बरोबर केन्ना केन्ना दोन विज्ञानांवरवीं प्राप्त जाल्लीं सत्यां एकमेकांक विरोधी आसतात. विभिन्न विज्ञानाचे सिद्धांत आनी परिणाम हांचेमदीं सामंजस्य स्थापीत करप आनी पारंपारिक विरोधांक पयस करप हें तत्त्वज्ञानाचें काम. ह्या मताच्या टीकाकाराच्या म्हणण्या प्रमाण, वैज्ञानिक सगळ्या सिद्धांतांचें समन्वयन करप पुराय अशक्य आसा. म्हणून तत्त्वज्ञान

विज्ञानांतल्यान प्राप्त जाल्ल्या सिद्धांतांचें अध्ययन न्हय हें स्पश्ट जाता.

दुसऱ्या एका मताप्रमाण तत्त्वज्ञान, विज्ञानाच्यो स्वयंसिध्दी वा पूर्वमान्य भौतिक तथ्यांचें अध्ययन करता. द्रव्य, गूण, कारण, संबंद, अवकाश, साम्य ह्या अवधारणांक प्रत्येक विज्ञान स्वयंसिध्द मानता. ह्या आदारभूत अवधारणांचें अध्ययन कसलेंय विज्ञान करिना, म्हणून ताचें अध्ययन करपाखातीर तत्त्वज्ञानाचे जल्म जालो. रसेल आनी अमेरिकन नवयथार्थवाद्यांचें म्हणणें आसा, तत्त्वज्ञान म्हळ्यार फकत विज्ञानाच्या मुलभूत सिद्धांताचें अध्ययन. ह्या अर्थान तत्त्वज्ञान म्हळ्यार फकत समीक्षा वा आन्वीक्षिकी.

रशला भशेनूच दुसरो आनी एक तत्त्ववेत्तो अलेक्झांडराचें म्हणणें आसा, विज्ञान आनी तत्त्वज्ञान हांचेभितर प्रयुक्त आशिल्ल्यो पद्दती एकूच आसात. दोनूय विश्लेशणाचो मार्ग ग्रहण करतात. विज्ञान आनी तत्त्वज्ञानाभितर फरक करपाचोच जाल्यार, तांचे वर्ण्य विशय वेगळे आसात. तत्त्वज्ञानाचें कथ्य सर्वसामान्य आसता, देखीक - अस्तित्वाचें कारण, अवकाश, कारण, द्रव्य इत्यादिचें चरमस्वरूप. हांचे विरूध्द वैज्ञानिक कथ्य विशिश्ट स्वरुपाचे आसतात. तत्त्वज्ञानाचे विशय अनुभवातीत आसतात. पूण वैज्ञानीक अनुभवाश्रित आसतात.

तत्त्वज्ञानाच्या ह्या अवधारणांत विज्ञान आनी तत्त्वज्ञान हातूंतलें अंतर स्पश्ट जायना. चडशा तत्त्ववेत्त्यां प्रमाण तत्त्वज्ञान आनी विज्ञान हीं दोन भिन्न प्रकारचीं ज्ञानां न्हय, जाल्यार ते ज्ञानाचे दोन स्तर आसात. जर ही गजाल मानली जाल्यार तत्त्वज्ञान निरर्थक थरता. तत्त्वज्ञानाच्या सामान्य अनुमानांचें तथाकथित तार्किक विश्लेशण विज्ञानावरवींच करू येता, हें ताचें कारण. तत्त्वज्ञान सत्तामीमांसा आसूनपसून तें विज्ञान आसा, हें फकाण अशें अलेक्झांडर म्हण्टा. तत्त्वज्ञान एकाच वेळार सत्तामीमांसा आनी विज्ञान आसूंक शकना. विज्ञान मूर्त तथ्यां आनी तत्त्वज्ञान अमूर्त अवधारणांचें ज्ञान आसा.

काण्ट सारक्या कांय विद्वानांप्रमाण तत्त्वज्ञान म्हळ्यार अनुभवाची सैध्दांतिक व्याख्या. ताचे प्रमाण ईश्वर, आत्मो, स्वतंत्रता, अमरत्व, द्रव्य ह्यो अनुभवातीत आशिल्लो अवधारणा तत्त्वज्ञानाची ज्ञेय अनुमानां जावंक शकनात. म्हणून तत्त्वज्ञान फकत इंद्रियजन्य अनुभवांच्या सार्वभौम आकारांची तार्किक व्याख्या जावन आसा. ह्या अवधारणांभितरूय विज्ञान आनी तत्त्वज्ञान हांचे भितर गोंदळ जाता. जर तत्त्वज्ञान अनुभवाची तार्किक व्याख्या वा ताच्या सार्वभौम आनी आवश्यक आकारांचो फकत सोद आसा जाल्यार तें विज्ञानापसून वेगळें जावंक शकना. विज्ञानाच्या निमण्या अवधारणांचो सोद विज्ञाना भितरूय घेवं येता. हाचे खातीर तत्त्वज्ञानासारकिल्या विशिश्ट ज्ञानाची गरज ना.

तार्किक वस्तुस्थितीवादी (Logical Positivists) सांगतात - तत्त्वज्ञान विज्ञानाच्या कथनांची तार्कीक व्याख्या जावन आसा. हातूंत फकत विज्ञानांत प्रयुक्त कथनांचे अर्थ स्पश्ट करून दाखयल्यात. अनुभवांकडेन कसलो संबंद आसा तें दाखयलां. हांचे प्रमाण कथनाचे दोन प्रकार आसात - निकषणीय (Verifiable) आनी अनिकषणीय (Unverifiable). निकषणीय कथनाचो हे स्वीकार करतात पूण अनिकषणीय कथनाक फकाण म्हण्टात.

हे मतप्रणालीचे टिकाकार म्हण्टात, जर तत्त्वज्ञान फकत वैज्ञानिक अवधारणा आनी कथनांची व्याख्या आसा, जाल्यार तिका कांयच अर्थ ना. तर्कशास्त्राचेर हें काम सोपोंव येता. विज्ञानाच्या क्षेत्रांतूय अशें कार्य करूं येता. फुडल्या काळार तत्त्वज्ञानाच्या जाग्यार फकत तात्विक दृश्टिकोन तितलो उरतलो, अशी मोरिस श्लिकान भविश्यवाणीय केल्या.

ए. जे. एअर हांचेसारकिले तर्कसंमत वस्तुस्थितीवाद्यांभशेन विटगेनस्टाइन, ऑस्टिन आदि तार्किक विश्लेशणवादी म्हण्टात. तत्त्वज्ञान फकत भाशेचें तार्किक विश्लेशण जावन आसा. भाशेंत प्रयुक्त कथनां, शब्दांची व्याख्या करप, तांचे अर्थ आनी परस्पर संबंद स्पश्ट करप हीं तत्त्वज्ञानाचीं कामां जावन आसात. जर वाक्य आनी शब्द वस्तुस्थितीचें वर्णन करतात वा वेव्हारांत प्रयुक्त जातात जाल्यार ते सार्थक थरतात. तत्त्वज्ञान म्हळ्यार फकत भाशेची समीक्षा, शब्द, अवधारणा आनी वाक्यांचें तार्किक स्पश्टिकरण तत्त्वज्ञानाचें काम जावन आसा.

हे नदरेंतल्यान पळयलें जाल्यार तत्त्वज्ञान म्हळ्यार लागीं लागीं व्याकरणूच कशें जालां. चड बरें आनी परिपूर्ण सुवेवस्थित व्याकरणाक संवर्धित केल्यार तत्त्वज्ञानाची गरज ना.

ह्या सगळ्या दृश्टिकोनांपसून वेगळी, तत्त्वज्ञानाची जी सामान्य अवधारणा शेंकड्यांनी वर्सांपसून चलत आयल्या, ती अशी आसा - तत्त्वज्ञान सत्ता, तत्त्व वा अनुभवातीत तथ्यांची मीमांसा जावन आसा. तत्त्वज्ञानांत सत्य वा सत्तेची अवधारणा करतात आनी ताका सत्ताभास वा असत्यापसून वेगळें करतात. ह्या अर्थान तत्त्वज्ञान, तत्त्वदर्शन वा सत्तामीमांसा जावन आसा. भारतीय तत्त्वज्ञानांत तत्त्वज्ञानाक ह्याच अर्थान 'दर्शन' वा निमणे सत्तेचें ज्ञान अशें म्हळां. 'दर्शना' परस उच्चतम ज्ञान आशिल्ल्या ज्ञानाक लागून निश्रेयस वा मोक्ष प्राप्ती जाता. 'यदभ्युदयिकं जैव निःश्रेयसिकमेव च । सुखं साधयितुं मार्गं दर्शयेत् दध्दि दर्शनम् ॥

तत्त्वज्ञानाच्या उपरोल्लोखित विभिन्न अवधाराणांच्या परीक्षणांतल्यान अशी म्हायती मेळटा, तत्त्वज्ञानाचे दोन पक्ष आनी दोन कार्यां आसात. हाचो प्रथम पक्ष सत्तात्मक आसा. ह्या पक्षांत दर्शनशास्त्र परम सत्तेची परिकल्पना करता. सत्ता म्हळ्यार किदें? तत्त्व एक आसा काय अनेक? जगत म्हळ्यार किदें? ताची उत्पत्ती कशी जाली? ताचो शेवट किदें? आत्मो म्हळ्यार किदें? जीवन म्हळ्यार किदें? मरण म्हळ्यार किदें? अनुभूत जगत हीय एक मात्र सत्ता आसा काय ताचे भायर आनीक किदें आसा? ह्या तरेचे जायते प्रस्न तत्त्वज्ञानांत उपरासूंक शकतात आनी तांच्यो जापोय सुचोवंक येतात.

तत्त्वज्ञानाचो दुसरो पक्ष असत्तात्मक आसा. हातूंत सान्त अणभव आनी ताचे भितर येवपी दर एक तथ्यांचें विश्लेशणात्मक अध्ययन करूं येता. ज्ञानमीमांसा, नीतीशास्त्र, सौंदर्यशास्त्र, तर्कशास्त्र, मूल्यमीमांसा, समाजदर्शन, भाशादर्शन, तशेंच व्याकरण, अणभव, कला, राज्य, राजनीती, कायदो, पदार्थ, मन आदी तत्त्वज्ञान शास्त्राचे विभिन्न असत्ताशास्त्रीय पक्ष आसात.

तत्त्वज्ञान, हें एके तरेन विश्लेशणात्मक, संश्लेशणात्मक अशें कठीण ज्ञान वा विवेक जावन आसा. हाचो उद्देश विचार वा ज्ञानांत सुवेवस्था स्थापीत करप होच आसा. मनीस हो ज्ञानप्रधान प्राणी. ज्ञान मेळोवप हो ताचो मुखेल सभाव. ज्ञान विकासशील आसता, सामान्य अणभव, विज्ञान आनी तत्त्वज्ञान हे ताचे विभिन्न स्तर आसात.

सामान्य अणभव प्रत्यक्षाश्रित आसतात. जांचे भितर आमकां तथ्यां वा वास्तुंचें इंद्रियज्ञान मेळटा. पूण मुखेल करून सामान्य अणभवांत विरोधाभासाक आमकां तोंड दिवंचें पडटा. जेन्ना आमी वस्तुंचे गूण, संबंद आनी विंगड विंगड विरोधाभासाच्या संदर्भान योग्य रीतीन विचार करूंक लागतात, तेन्ना आमचें ज्ञान वैज्ञानिक जाता. उपरांत वैज्ञानिक

ज्ञानाभितरूय आमकां आडखळी येवंक लागतात. हाचे भायर दर एक विज्ञान एका शिमित आंगाचें ज्ञान दिता. केन्ना केन्ना दोन विज्ञानांचे सिध्दांत एक दुसऱ्याचें खंडन करतात. हाचे वांगडा खंयच्याय विज्ञानाक पुराय तथ्य हें आसुंकूच शकना.

ह्या सगळ्यांचेर, फुडें वचून जेन्ना आमी विचार करूंक लागतात, तेन्ना आमी तत्त्वज्ञानाच्या मळार पावतात. तत्त्वज्ञानांत आमकां सामान्य अणभव आनी विज्ञान जगाच्या विरोधाभासांची परिक्षा करपाचो यत्न करतात. हातूंत सगळे तरेच्या ज्ञानाची समीक्षा आनी संश्लेशण केल्लें पळोवंक मेळटा. तत्त्वज्ञानाच्या मळार आमी सुवेवस्थित वैचारीक बैठक तयार करतात. हातूंत पुराय सत्तेर विचार करपांत येता.

तात्त्विक दृश्टिकोन संश्लेशणात्मक, संरचनात्मक आनी पुराय आसता. तत्त्वज्ञान म्हळ्यार फकत ज्ञानाची एक प्रणाली न्हय, जाल्यार ती एक जिज्ञासा. हें सत्तेचें वर्णनय न्हय. जाल्यार ताचो दिश्टावोय आसा. तत्त्वज्ञान ही जिणेची एक पद्दतूय आसा.

तत्त्वज्ञानाचो उद्‌भव विंगड विंगड तरांतल्यान जाता. प्लेटोच्या म्हणण्याप्रमाण तत्त्वज्ञान आश्चर्यभावांतल्यान निर्माण जाता. ग्रीक विचारवंत आनी वैदिक ऋषी सैमाचे अजापीत तशेंच रहस्यात्मक तत्त्वांची जिज्ञासा करीत तत्त्ववेत्ते जाले. अजापाची अनुभूती आनी जिज्ञासा, समीक्षात्मक विचार प्रकियेक जल्म दिता. उपरांत तीच तात्त्विक ज्ञानांत परावर्तित जाता.

वैज्ञानिक जन जागरणाचें उपरांत बेकन, डेकार्त आनी काण्ट आदी विद्वानांनी दुबावांतूच तत्त्वज्ञानाची सुरवात मानली. अणभव आनी ज्ञानाचे विंगड विंगड स्तरांवयले विरोधाभास दुबाव उत्पन्न करतात. ते गहन विचार करूंक लागतात. हेच गहन विचार बुध्दिवादी तत्त्वज्ञानाक जल्म दितात.

जीण आनी संवसाराच्या वेव्हारीक समस्यांच्या समाधानाचो यत्नूय तत्त्वज्ञानाची फाटभूंय आसा. भारतीय तत्त्वज्ञानाचीं बुन्यादीतत्त्वां वेव्हारीक समस्यांकडेनूच जोडल्यांत. अस्तंती तत्त्वज्ञानाचो मानवतावादूय अशेच रितीन जल्माक आयला.

मनीस हो विचारशील प्राणी म्हणून ताची जल्मजात विचारप्रवृत्ती ताका विवेक आनी ज्ञान प्राप्त करपाखातीर आदार करता. हेच भशेन शुध्द गणिताभशेन शुध्द तत्त्वज्ञानाचो जल्म जाता. सॉक्रेटिसाचें तत्त्वज्ञान अशेच तरेन निमार्ण जालें. विवेक बुध्दींत अणभव आनी बौध्दिक ज्ञानाच्या तत्त्वांवांगडा जीवनाच्या उंचेल्या मुल्यांचो परीक्षक जाता.

ह्या तत्त्वज्ञानाचो मुखेल उद्देश 'आत्मानं विध्दि वस्तुजगत्' आनी आत्मत्त्वाच्या सगळ्या प्रकारांत ज्ञानाचें मुल्यांकन करप विवेक बुध्दिचें काम जावन आसा.

आध्यात्मिक् जिज्ञासा, तत्त्वज्ञानाचो दुसरो एक स्त्रोत जावन आसा. जीण आनी जिणेंत भरिल्लीं दुख्खां आनी त्रास पळोवन मनशाचें मन खंती जाता आनी तातूंतल्यान सुटका करून घेवपाखातीर तो वाटो सोदता. भारतीय तत्त्वज्ञान, चड करून जैन आनी बौध्द तत्त्वज्ञानाचो जल्म हातूंतल्यानच जालां. मुक्ती दिवप हो तत्त्वज्ञानाचो मुखेल उद्द्देश जावन आसा.

विचार करप हो मनशाचो जल्मजात सहज गूण आसा आनी विचार करप हेंच एक तत्त्वज्ञान म्हळ्यार जाता. म्हणून मनीस तत्त्वज्ञानाबगर जियेवंक शकना. 'का वार्ता किमाश्चय कः पन्थाः कश्य मोदते' सामान्य जिणेंत तत्त्वज्ञानाचे मौलीक प्रस्न आसात. हाच्योच जापो सोदप मनशाच्या पिंडाक गरजेचें जावन आसा.

प्रत्येक व्यक्तिचें स्वताचें अशें एक तत्त्वज्ञान आसता. जीवन, जगत, द्रव्य, समाज, आत्मो, ईश्वर, सृश्ट, योग्य, अयोग्य, कुटूंब, राज्य, कर्तव्याकर्तव्य, मरण, सौंदर्य, कला आदीविशीं दर एक व्यक्ती कसली ना कसली कल्पना वा दृश्टिकोन दवरता. तेंच ताचें तत्त्वज्ञान आसता. ह्या सामान्य अर्थान तत्त्वज्ञान समिक्षात्मक जावंक शकना.

सामान्य असमिक्षात्मक जीवन दर्शनाक चड तर्कसंगत आनी सुसंगत करप श्रेश्ठ तत्त्ववेत्त्याचें काम जावन आसा. सुवेवस्थित तत्त्वज्ञानांत तरा तरांचे वाद-विवादांक तर्कप्रतिश्ठित करूं येता. ताका लागून जायते तरांच्या तत्त्वज्ञान प्रणालिंचो जल्म जाला. भौतिकवाद, प्रकृतिवाद, विज्ञानवाद, तार्किकवाद, वस्तुस्थितीवाद, अस्तित्ववाद, बुध्दिवाद, मानवतावाद, भाशाविज्ञानवाद, अध्यात्मवाद आनी आत्मवाद आदी तत्त्वज्ञानाचे कांय मुखेल प्रकार आसात.

तत्त्वमीमांसा वा सत्ताशास्त्र, ज्ञानमीमांसा, मूल्यमीमांसा, कलादर्शन, समाजदर्शन, राजनीतीदर्शन, कानुनदर्शन, इतिहास दर्शन, विज्ञानदर्शन, तर्कशास्त्रदर्शन, धर्मदर्शन, शिक्षादर्शन, मनोविज्ञान दर्शन, नीतीदर्शन, मानवदर्शन हे दर्शनशास्त्र वा तत्त्वज्ञानाचे कांय फांटे आसात.

**भारतीय तत्त्वज्ञान :** जगत आनी जिवीत हातूंतल्यो कठीण समस्या सोडोवपाचो यत्न करपाखातीर भारतीय तत्त्वज्ञानाचो जल्म आनी विकास जाला. पूण एक मात खरें, हो यत्न म्हळ्यार फकत एक बौध्दिक वितंडवाद उरनासतना जिवीताचें एक वेगळावंक शकनाशिल्लें आंग जालां. दुख्खी जिणेंतल्यान भायर सरून सूख वा निःश्रेयसाची प्राप्ती करून घेवप होच ताचो मुखेल उद्देश. भारतीय तत्त्वज्ञान म्हळ्यार तत्त्वमीमांसे वांगडाच एक जीवन पद्दत आनी अध्यात्मीक दृश्टीकोन आसा. 'सुखं साधयितुं मार्ग दर्शयेत् तद्विदर्शनम्।'

**वैदिक तत्त्वज्ञान** - सगळ्यो भारतीय तत्त्वज्ञान प्रणाली खंयच्या ना खंयच्या तरी रुपान वेदांकडेन संबंदीत आसात. 'विद' धातूपसून निमार्ण जाल्ल्या वेद उतराचो अर्थ आसा ज्ञान. ज्या उतरांनी आनी उक्तींनी सत्याचे ज्ञान भरलां, ताका 'वेद' अशें म्हळां. ग्रंथबध्द जांवचे पयलीं हजारांनी वर्सां पयलीं शिश्य गुरू कडल्यान आयकून वेद मेळयताले. हाचेच खातीर वेदांक श्रुति म्हण्टात. वेदांक श्रुति म्हणपाचें दुसरें कारण म्हळ्यार ऋषींनी ऋचा आनी मंत्रांक आपल्या अंतर्मनांतल्यान श्रवण करून मेळयले. हेच खातीर वेदांक अपौरुषेय अशें म्हण्टात. वेद स्वताच उजवाडाक आयले आनी ते सदां सत्य तशेंच अजरंवर आसात. वेदांची रचना मनशान करूंक ना आनी देवानूय करूंक ना अशें म्हण्टात. ऋषी वैदिक मंत्रांचे फकत द्रश्टे आसात. मंत्रस्य द्रष्टारः इति ऋषयः। पूण कांय जाण वेदांचो निर्मातो ईश्वर मानतात. जाल्यार कांय लोक ताका मनशाची निर्मणी म्हण्टात.

वेदव्यासाक मंत्रांचो संकलन करपी अशें म्हण्टात. वेद चार आसात, ते म्हळ्यार - ऋग्वेद, यजुर्वेद, सामवेद आनी अथर्ववेद. पयल्या तीन वेदांक 'वेदत्रयी' म्हण्टात. परंपरावादी ह्या तीन वेदांकूच शुध्द वेद मानतात. चवथ्या वेदांत तंत्र आनी आर्येतर तत्त्वांचो आस्पाव आशिल्ल्यान चवथ्या वेदाक शुध्द मानिनात.

दर एका वेदाचे चार वांटे आसात. मंत्र वा संहिता, ब्राह्मण, आरण्यक

आनी उपनिषद वा वेदांत. कांय लोक फकत पयल्या दोन वाटयांकूच वेद मानतात. मंत्रब्राह्मणपोर्वेदनामधेयम् । ऋक्, यजुर, साम आनी अथर्व संहिता क्रमशः होता, उद्‌गाता, अध्वर्य आनी ब्रह्मा ह्या चार तरांच्या पुरयता खातीर आसतात. होता देवांक मंत्रांनी आव्हान करता, उद्‌गाता मंत्रलयीन गायता, अध्वर्य यज्ञांच्या नियमांचें संपादन करता आनी ब्रह्मा पुराय यज्ञाचें संचालन करता.

ब्राह्मण गद्यात्मक आसा. हातूंत कर्मकांडाचे नेम आसात. आरण्यकाय गद्यांत आसात. पूण हातूंत तत्त्वज्ञानाचें चिंतन केल्लें मेळटा. हे मंत्र कर्मकांड आनी पुराय यज्ञाच्या फाटल्यान आशिल्ल्या तत्त्वांचें चिंतन आसा. ब्राह्मणाच्या निमाण्या वांट्याक 'उपनिषद' म्हण्टात. वेदांचें सार आशिल्ल्यान ताका 'वेदांतूय' म्हण्टात. वेदांच्या पयल्या दोन वांट्याक 'कर्मकांड' आनी निमाण्या दोन वांट्याक 'ज्ञानकांड' म्हण्टात.

ऋग्वेद पुर्विल्लो ग्रंथ आसा. हातूंत धा मंडळांनी मेळून १०१७ मंत्र आसात. हातूंत बहुईश्वरवादाचें प्रतिपादन केलां. सैमाच्या दर एका पक्षाच्या फाटल्यान ताच्या नियामकाच्या रुपान एक देव मानला. जशें सूर्य, अग्नी, पृथ्वी, वरूण, मित्र, अदिती, विष्णु, पुषाण, अश्विन्, रूद्र, पर्जन्य, मरूत, उप, उषा, धातृ, विधातृ, विश्वकर्मा, प्रजापति, श्रध्दा, मन्यु आदी देवूय आसात. पूण ते अमुर्त स्वरुपांत आसात.

वेदांत अनेकईश्वरवाद, एकेश्वरवाद आनी अव्दैतवाद हांचो क्रमिक विकास जाल्लो पळोवंक मेळटा. ऋषींच्या मनांत विचार आयले, जर प्रकृतिचीं विभिन्न तत्त्वां एका नेमान बांदल्यांत आनी एका देवान नियंत्रीत केल्यांत. तशेंच सगळे देवूक एका देवान नियंत्रीत केल्ले आसूंक जाय. अशे तरेन एक देव आनी एके सत्तेची कल्पना केली. 'एकं सद्‌विप्रा बहुधा वदन्ति।' चड करून पुरूषसूक्त आनी नारदीयसूक्त हे विशीं संकेत करता. 'पुरूष ए वेदम सर्वं यदभूतमं यच्च भावम्।

सैमाचे एकरूपतेक ऋषींनी 'ऋत्' म्हळां आनी ताकाय नैतिक एकरूपतेचो न्याय म्हळां. ऋत् फकत भोवतीक अवधारण ना, जाल्यार नैतिक, आध्यात्मिक, वेवस्थेचो प्रत्यय हातूंत मेळटा. दर एक जड-अजड पदार्थ जिचें पालन करता अशी ही एक सनातन वेवस्था आसा. सगळे देव हे वेवस्थेचें पालन आनी रक्षण करतात. अग्निक ऋताचो सारथी (ऋतस्य धूर्षऽम) आनी संरक्षक (ऋतस्य गोपा) म्हळां. ह्याच अर्थान उषेक ऋजावरी म्हळां. शुभ आनी सत्याची इत्सा दवरप्यांक ऋजाचें पालन करचें पडटा. जे तशें करीनात ते अनृताचे दिकेन वतात. सर्ग आनी पृथ्वी ऋजाचे आवय बापूय आसात.

ह्याच ऋजाचे अवधारणेंतल्यान एक देव, एक सत्ता आनी कर्माच्यो अवधारणा निमार्ण जातात. ऋजाच्या अनुरूप केल्लें कर्म शुभ आसता. ताचे उरफाटें केल्यार मात अशुभ जाता. शुभ कर्माचें फळ शुभ आसता. अशुभ कर्माचें फळ अशुभ आसता. वेदांत ब्रह्मचर्य, गृहस्थ, वानप्रस्थ आनी संन्यासाश्रम, धर्म, अर्थ, काम, मोक्ष हे चार पुरुशार्थ तशेंच ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शुद्र ह्या चार वर्णांचो उल्लेख मेळटा.

**उपनिषद :** वैदिक तत्त्वज्ञानाचो उंचेलो बिंदू ताचो निमणो वांटो म्हळ्यार उपनिषदां. वेदांचे निमाणेकडेन आनी तातूंतले निश्कर्श आनी सार आशिल्ल्यान तांकां वेदांत म्हण्टात. उपनिषद् (उप+नि+षद्) हाचो शाब्दीक अर्थ आसा, शिश्यान गुरूच्या म्हऱ्यांत ध्यानस्थ बसप. अशें बशिल्ल्यान मेळिल्लें ज्ञान आनी ज्या ग्रंथांनी असलें ज्ञान आसा ताका उपनिषद् अशें म्हळां. ह्या ज्ञानाक ब्रह्मविद्या, गुह्यविद्या आनी रहस्यविद्या म्हळां.

मुक्तिकोपनिषदां प्रमाण उपनिषदांची संख्या १०८ आसा. तातूंत ईश, केन, कठ, मुण्डक, माण्डुक्य, प्रश्न, श्वेताश्वतर, तैत्तिरेय, ऐतरेय, छान्दोग्य मुखेल आसात. ह्या उपनिषदां प्रमाण वेदांत ज्ञानकांड कर्मकांडापरस चड श्रेश्ठ.

उपनिषदांचे प्रमाण ब्रह्म सर्वोच्च सत्ता आसा. ब्रह्म 'वृह' धातूसावन तयार जाल्ल्यान एक क्रियाशील, विकासशील सत्तेचें द्योतक आसा. जातूंतल्यान सगळे पदार्थ भायर सरतात. जांचेर आदारून आसा आनी जातूंतच परत ही सत्ता, 'यतो इमानि भूतानि जायन्ते,' 'येन जातानि जीवन्ति यत्प्रणि जमिरूविशन्ति, तद् ब्रह्म।' ब्रह्म विकासाचे पांच आयाम वा कोश आसात. अथ, प्राण, मन, विज्ञान आनी आनन्द. ब्रह्माक सच्चिदानन्द आनी अनन्त म्हळां. म्हणूनच ब्रह्माचें सामान्यपणान ज्ञान जावंक शकना. हें फकत ब्रह्मविद्या, गुह्यविद्या, अध्यात्म वा ब्रह्मानुभव विशद करून सांगूंक शकतात.

ब्रह्माच्या विषयांत उपनिषदांत दोन तरांचें कथन केल्लें मेळटा. एकाक निगुर्ण श्रुति आनी दुसऱ्याक सगुण श्रुति म्हण्टात. निगुर्ण श्रुतिंत ब्रह्माक निराकार, निर्गुण आदी आनी सगुण श्रुतिंत ताका साकार आनी सगुण अशें म्हळां. शंकराचार्या सारकेल्या पयल्या पांवड्याच्या विद्वानांक आनी रामानुज, वल्लभ, मध्व आदी दुसऱ्या पावंड्याच्या विद्वानांक चड म्हत्व दिवन अव्दैत आनी सेश्वर दर्शनाची संरचना केल्या. ताचेबरोबरच अशें म्हळां, निगुर्ण आनी सगुण हे एकेच सत्तेचीं दोन विभिन्न रुपां आसात.

ब्रह्माक 'आत्मा' अशेंय म्हण्टात. बृहदारण्यका प्रमाण सगळ्या परिवर्तनशील पदार्थाचो अपरिवर्तनशील आदार म्हळ्यार आत्मो. जागृत, स्वप्न आनी सुष्टी अवस्थांत आत्मोच अणभवांचो आदार आसा आनी ताचे अपर अनुभवातीतूच आसा. माण्डुक्यांत तांकां क्रमशः वैश्य, तेजस, प्राज्ञ आनी तुरीय म्हळां. ओऽम् हाचोय निर्देश करता, छान्दोग्यांत प्रजापतिन इन्द्राक आनी विरोचनाक हेंच सांगपाचें थारायिल्लें. बृहदारण्यकांत याज्ञवल्क्यान आपली बायल मैत्रेयी आनी कंठांत यमान नाचिकेताक सांगलां, ह्या आत्म्याचें ज्ञान जांवक शकना. किद्याखातीर हो आत्मोच दर एकल्याच्या ज्ञानाचो ज्ञातो आसा.

होच आत्मो जेन्ना देह धारण करता तेन्ना ताका जीव म्हण्टात. बुडकुल्यांत जशें उदक आसता तसो कुडींत जीव आसता. जीव शरीर, इंद्रीय, बुध्दि आनी मन हांचेपसून वेगळो असो तांचो नियंतो स्वामी आसा.

उपनिषदांत जगताची सत्ता आपणायल्या. हिका ब्रह्माची आभास-सृश्ट वा विकास म्हळां. हो 'माये'चो अनिवार्य असो परिणाम आसा. माया हें उतर लागींलागीं सगळ्या उपनिषदांत एक तर ब्रह्मरुपी शक्ती वा जीवाच्छादिका अज्ञानाच्या अर्थान भरिल्ली आसा. ब्रह्माचें आवरण आनी असताचो ताचेवयलो विक्षेप ही ताचीं दोन कामां सांगल्यांत.

मायेच्या बंधनान दुख्ख आनी ताचे नाशातल्यान मुक्तताय मेळटा. मुक्ती दोन प्रकारांची आसता. जीवनमुक्ती वा विदेहमुक्ती. जीवाचो ब्रह्माकडेन संबंद स्थापप म्हळ्यार मुक्ती.

**भगवद्‌गीतेंतलें तत्त्वज्ञान** - उपनिषद, भगवद्‌गीता आनी ब्रह्मसुत्रांक प्रस्थानयत्री म्हळां. श्रीमद् भगवद्‌गीता वेदव्यास रचीत महाभारताचो एक वांटो. कुरूक्षेत्राच्या युध्दमळार अर्जून युध्दाची निरर्थकतेविशीं चिंता करून श्रीकृष्णाक कर्तव्या खातीर प्रस्न करता. ताका युध्दाक प्रवृत्त

करपाखातीर ताचो सारथी आशिल्लो श्रीकृष्ण ताका उपदेश करता, तेंच गीतेंतलें तत्त्वज्ञान.

भगवद्‌गीतेंत तत्त्वमीमांसा, नीतिशास्त्र, धर्मदर्शन तशेंच समाजदर्शनाचे सिद्धांत आसात. हातूंत वैदिक यज्ञ, औपनिषदिक सत्ताशास्त्र, भागवताची धार्मिकता, सांख्यांचें द्वैत तशेंच योगदर्शनाचे गहनमनोविज्ञान ह्या सगळ्यांचे अपूर्व समन्वय आसा.

गीतेचे तत्त्वमीमांसेंत परमसत्ता अव्यक्त, अगम्य आनी गूढ आसा. ताची परा आनी अपरा अशीं दोन रुपां आसात. ही ब्रह्म आनी ईश्वर आसात. ही वैश्विक तशेंच विश्वातीत आसात. ईश्वराकूच विष्णु म्हळां, जो स्त्रष्टा, मर्तो आनी संहारकर्तो आसा. ईश्वर संवसाराची सृश्ट, पालन आनी संहार 'माया' हे शक्तीच्या आदारान करता. ईश्वराचो पिंड म्हळ्यार संवसाराचें उपादान कारण आशिल्ली प्रकृती. ताचींच परा आनी अपरा रुपां, जातूंतल्यानूच क्रमशः जीव आनी जड सृष्ट जाता, जीव अक्षर आनी क्षेत्रज्ञ आसा. जड पदार्थ क्षर आनी क्षेत्र आसा. ईश्वर क्षर आनी अक्षराच्या वयर आसा. प्रकृतीचें सत्व, रजस आनी तमस हे तीन गूण सगळे जीव आनी भौतीक पदार्थांक प्रभावीत करतात. ईश्वर ताच्या वयर गुणातीत आसा.

ईश्वरान साकार रूप घेवन धर्तरेचेर येवप म्हळ्यार अवतार. कृष्ण ईश्वर वा विष्णुचो अवतार आसा. धर्माची पुर्नप्रतिष्ठा आनी अधर्माचो नाश करप हेच त्या अवताराचे उद्देश आसले. ईश्वर सगळ्यांच्या काळजांत आसता.

आत्मो हें ईश्वराचेंच रूप आनी जीव हो ताचोच एक वांटो. ईश्वर आत्माच्या रुपांत प्रत्येक जीवाभितर आसता. जीव सुखदुख्खाचो कर्तो आसा. आत्मो सुखदूख, जीवनमरण हांचेपसून पयस रावता. म्हळ्यार तो जिणेचो फकत साक्षी उरता. तो अनादी आनी अनंत आसा. तो अजर, अमर आनी चिरंतन म्हळ्यार अजरंवर आसा. जशे आमी पोरन्या लुगटाचो त्याग करून नवें लुगट आंगार चडयतात, तसोच आत्मो जीर्ण कुडीचो त्याग करून पुनर्जल्म घेता.

गीतेप्रमाणे जग सत्य आसा. संवसाराची निर्मणी मूळ प्रकृतींतल्यान ईश्वराचे प्रेरणेन योगमायेन जाता. प्रकृती उपादान तर देव जगताचें कारण आसा. पूण प्रकृती सावन ईश्वराचो सभाव जाल्ल्यान ईश्वर म्हळ्यारूच संवसाराचें एकूच कारण जावन आसा.

लोभ, मोह, आसक्ती ह्या सकयल्ल्या पांवड्यांच्या गुणांक लागून भौतिक जीण दुख्खान भरल्या. मनीस ह्या गुणांपसून पयस वचून आनी आपल्या भितल्ले दैवी शक्तीक जागोवन देवाची प्राप्ती करूंक शकता. हाचेखातीर तीन मार्ग आसात - ज्ञानमार्ग, भक्तिमार्ग आनी कर्ममार्ग. जण एकलो आपल्या सभावाप्रमाण हातूंतल्या एकाचो वा सगळ्यांचो बरोबर उपेग करूंक शकता. जाका लागून मनीस अनासक्त भावान रावूंक शकता. अशे तरेन हे तीन योग आसात. हांचेच आदारान मनीस स्थितप्रज्ञता वा ब्रह्माची प्राप्ती करूंक शकता. फकत कर्मत्याग करचो न्हय जाल्यार कर्मसंन्यास वा कर्मयोग, ईश्वराकडेन पुराय रितीन आत्मसमर्पण आनी ब्रह्मज्ञान कैवल्य ह्यो वाटो म्हळ्यारूच मोक्षाची अचूक साधना आसात.

**ब्रह्मसूत्र दर्शन** - बादरायणान रचिल्लें ब्रह्मसूत्र प्रस्थानत्रयीचो तिसरो खांबो आसा अशें म्हण्टात. हो बादरायण म्हळ्यार महाभारताचो कर्तो व्यासमुनी ब्रह्मसूत्र औपनिषदिक दर्शनांक सूत्र रुपान मांडटा. हो वेदांतल्या ज्ञानकांडाक म्हत्व दिता. हाकाच वेदान्तसूत्र म्हळां. हातूंतलें पयलें सूत्र 'अथातो ब्रह्म जिज्ञासा' हाचें स्वरूप आनी उद्देश स्पश्ट करता. हातूंत प्रकृती हेंच संवसाराचें कारण. हें सांख्य मत सबळ खंडन करून, ब्रह्म हेंच जगताचें निमित्त आनी उपादान कारण आसा अशें सिध्द केलां. उपनिषदांतलें पुराय तत्त्वदर्शन हांकां मान्य आसा.

सगळ्या भारतीय तत्त्वज्ञान प्रणालींचें स्त्रोत सकारात्मक वा नकारात्मक रुपांत प्रस्थानत्रयींत आसा. हे नदरेंतल्यान पळयल्यार भारतीय तत्त्वज्ञानांत आस्तिक आनी नास्तिक अशे दोन प्रवाह पळोवंक मेळटात. पयलो वेद आनी प्रस्थानत्रयीक प्रामाणिक मानता जाल्यार दुसरो ताचें खंडन करून स्वतंत्र तत्त्वज्ञान मांडटा. पयल्यान न्याय-वैशेषिक, सांख्ययोग, पूर्व आनी उत्तर मीमांसा येता जाल्यार दुसऱ्यांत चार्वाक, जैन आनी बौध्द तत्त्वज्ञान येता.

**चार्वाक तत्त्वज्ञान** - फकत चार्वाक तत्त्वज्ञान तितलेंच भौतिकवादी तत्त्वज्ञान आसा. हाचो प्रवर्तक बृहस्पती आशिल्लो. चार्वाक (चारु+वाक) भौतिकवादी तत्त्वज्ञान म्हौंवाळ उलोवपी आशिल्लो म्हणून ताका तशें म्हळां. जो आपल्या वचनांत रावता तो चर्व + वाक् असो चार्वाकाचो दुसरो अर्थ आसा. कांय विद्वानांच्या म्हणण्याप्रमाण चार्वाक नांवाचो एक ऋषी आसलो, तो म्हौंवाळ उलोवपी पूण दिल्लें वचन केन्नाच न पाळपी आशिल्लो.

चार्वाकाचे ज्ञानमीमांसेंत फकत प्रत्यक्ष प्रमाण मान्य केलां. अनुमान, उपमान, शब्द हीं सगळीं प्रमाणां ताणें अवैध मानल्यांत आनी प्रत्यक्षाचेर आदारून आशिल्ल्यान स्वतंत्र प्रमाणूय ताणें दिवंक ना. अनुमानाखातीर गरज आशिल्ली व्याप्ती संदिग्ध आसता. उपमान अनुमानाचीच एक तरा, तर श्रृति ज्ञान अविश्वसनीय आसता.

चार्वाकाचे तत्त्वमिमांसेंत भौतिक पदार्थूच म्हळ्यार म्हत्वाची गजाल आनी ती चार परमाणूंचें समन्वित रूप आसा. पृथ्वी, जल, वायु, अग्नी हीं तीं चार तत्त्वां आसात. हीं चार तत्त्वां अनादी अनंत आसून तीं एकठांय आशिल्ल्यान दरेका पदार्थाची निर्मिती जाता. चेतना लेगीत हाचेंच एक रूप.

देह, इंद्रिय, प्राण, मस्तिष्क आनी आत्मो हांका चार्वाक तत्त्वज्ञांनी मानलो. मर्णा उपरांत आत्म्याचें अस्तित्व उरना. सर्ग आनी नरकाची कल्पना म्हळ्यार मूर्खपणा. पाप आनी पुण्यांत कांयच भेद ना. ईश्वराची संकल्पना लेगीत फटीची, ह्या संवसाराक सोडून भायर वा पयस दिसपी कांयच न्हय. प्रत्यक्ष दिसपी दरेक गजाल वा पदार्थ खरो. सूख आनी दूख हीं जीणेचीं मुखेल सत्यां. म्हत्वाच्या सर्वदर्शन संग्रहाप्रमाण चार्वाकाच्या मतान दूख ना करप आनी सूख मेळोवप हातूंत पुरुषार्थ आसा. 'यावज्जीवेत् सुखं जीवेत्, ऋणं कृत्वा धृतं पिवेत। भस्मीभूतस्य देहस्य कृतः पुनरागनम्॥ हें चार्वाकाचें नीतिशास्त्र व्यक्तिवादी सुखवाद आसा आनी ताची तत्त्वमीमांसा भौतीकवादी यथार्थवाद आसा, हें तत्त्वज्ञान वेदकाळासावन चालू आसा. उशास्ति, बुदिल आदि भौतिकवाद्यांचो उल्लेख वेदांसावन आसा, हें तत्त्वज्ञानान वेदांक विरोध केल्लो, दिसून येता.

**जैनदर्शन** - विजेता अशें अर्थाच्या 'जिन' शब्दासावन जैन शब्द तयार जाला. राग, द्वेश, माया, मोह, आदिनी आपल्या मूळच्या स्वभावाचेर जो जैत मेळयता ताका जीन म्हण्टात. मगध देशाचो क्षत्रिय राजकुवंर आशिल्ल्या वर्धमान महावीराक ही उपाधी मेळिल्ली. महावीराचे पयलीं २३ तीर्थंकर जावन गेले. तातूंतलो पयलो ऋषभदेव. हाका जैन तत्त्वज्ञानाचो

प्रणेतो मानतात. जैन मत वेद काळांचेय पयलीचें अशें मानतात. फुडाराक हाचे श्वेतांबर आनी दिगंबर अशें दोन संप्रदाय निर्माण जाले.

मति, श्रुति, अवधि, मनःपर्याय आनी केवल अशे जैन ज्ञानमीमांसेंत ज्ञानाचे पांच प्रकार मानल्यात. मति हें इंद्रियजन्य ज्ञान, जशें प्रत्यक्ष स्मृति, प्रत्यभिज्ञा आदि आनी श्रुति तिर्थकरांची आसता. अवधि म्हळ्यार पयसुल्लो वाठार वा काळाच्या वस्तूंचें ज्ञान. फकत देश काळाचे शीमेत पुराय ज्ञान आसा. हेर अतिद्रिंय आसात. प्रमाण आनी नय हे हेर नदरेंतल्यान ज्ञानाचे दोन प्रकार आसात. पयले वस्तूंचें तथावत ज्ञान जाल्यार दुसरे एके तरेन मेळिल्लें वस्तूंचें ज्ञान. नैगमनय, वेव्हार नय, ऋजुसूत्रनय, शब्दनय, समामिरूढ नय तशेंच एवमूलनय आदि नयांचे प्रकार आसात.

ह्या तत्त्वज्ञानांत जायत्यो सत्ता आसात. संवसार आनी ताचे पदार्थ सत्य आसात, म्हणून जैन दर्शन अनेकतावादी आनी यथार्थवादी आसा. तांचे प्रमाण दरेका पदार्थाचे वेगवेगळे पक्ष आनी जायते गूण आसतात. 'अनन्त धर्मात्मकं रुपं वस्तु। ह्या सिद्धांताक अनेकान्तववाद म्हळां. दर एक पदार्थ द्रव्य, गूण आनी प्रकाशाचें समन्वित रूप आसा, जैन जीव आनी अजीवाक मानतात.

जायते गूण आनी पक्ष आशिल्ल्या खंयच्याय पदार्थाचें सम्यक वर्णन करपाखातीर सातमंगीनय वा सत्यवादाचो प्रयोग करचो पडटा. आसा, ना, आसा आनी नाय, अव्यक्त आसा, आसा आनी अव्यक्तय आसा, ना आनी अवक्तय आसा, नाय आनी अव्यक्तय आसा हें सात नय सातमंगी नयांत येतात. हांचेर पूर्वस्यादाचो प्रयोग जाता. हाचो अर्थ जाता - एकदृश्टिकोणांतल्यान वा कदाचित.

जैन तत्त्वज्ञान, ईश्वराचे सत्तेक मानीना. अहिंसा, सदाचार, औदार्य, स्वार्थत्याग, तप, नियम, संयम आदि हाची नीतिशास्त्राची मुखेल तत्त्वां आसात. सम्यक् आस्था, सम्यक् ज्ञान आनी सम्यक् आचार हीं ताचीं त्रिरत्नां. हांकां पाळो दिल्यारूच 'मोक्ष' म्हळ्यार 'कैवल्य' प्राप्त जाता. मुक्त जीव मुदग्लांसावन पयस जावन सिद्ध लोकांत पावता.

**बौद्धदर्शन** - बौद्धदर्शनाचे प्रवर्तक कपिलवस्तुचे राजकुंवर गौतमसिद्धार्थ शाक्यमुनी (ज. ५६६ इ. स. प.; मरण ४८४ इ. स. प.) आसात. राजवैभवाचो त्याग करून गौतमान व्हड तपश्चर्या केली. बोधीगयेत पिंपळाच्या रुखातळा ताका ज्ञानप्राप्ती जाली आनी तो भगवान बुद्ध जालो.

बुद्धान आपलें तत्त्वज्ञान मौखिक रुपान दिलें. ताच्या मर्णाउपरांत ताच्या मता विशीं वाद उप्रासलो आनी स्थवीवरवादी आनी महासांघिक अशे दोन संप्रदाय तातूंतल्यान निर्माण जाले. उपरांत पयल्या वर्गांतल्यान ११ आनी दुसऱ्यांतल्यान ९ वर्ग तयार जाले. ह्या वीस वर्गांक हिनयान म्हळां. तर ताचेभायर आनीक एक वर्ग जो तयार जालो तो स्वताक महायान म्हणून घेवपाक लागलो. हीनयानान पाली जाल्यार महायानान संस्कृत भास आपणायली. फुडें तत्त्वज्ञानाचे नदरेन आनीक जायते वर्ग तयार जाले. हिनयानी आशिल्ले सवास्तिवाद्यांचे दोन पंगड जाले. वैभाशिक आनी सौभान्तिक हे दोनूय यथार्थवादी आसात. पूण पयल्याच्या मता प्रमाण ज्ञेय वस्तूचें साक्षात ज्ञान जाता आनी दुसऱ्याच्या मताप्रमाण ज्ञेय पदार्थाचें ज्ञान अनुमानाच्या माध्यमांतल्यान घडटा. योगाचार वा विज्ञानवाद तत्त्वज्ञानाचे प्रणेते वसुबंधु आनी ताचो भाव असंग हे आसात. ते हिंदू ब्राह्मण आशिल्ले, मागीर हीनयानी महायानी जाले. 'योगाचार भूमी' आनी 'महायानसम्परिग्रह' हे असंगाचे जाल्यार अभिधम्मकोश तशेंच 'विज्ञानिमात्र त्रिशिंका' हे वसुबंधुचे व्हड ग्रंथ जावन आसात. तांचे प्रमाण विज्ञानूच सत्य आसा. ते योगाचेरूच भार दितात. वर्णन करूंक शकना अशे विचार वा विज्ञान फकत शून्य किंमतीचे आसा, अशें ते म्हण्टात. विज्ञानाचे भायर कांयच ना. महायानाच्या दुसऱ्या तत्त्वज्ञान मताक माध्यमिक म्हण्टात. हाचो प्रवर्तक नागार्जुन हो आशिल्लो. ह्या मताक 'शून्यवाद' अशेंय म्हण्टात. ताचे मताप्रमाण निमाणी सत्ता शून्य आसा. तिकाय भूततथता अशेंय म्हळां. हाचेविशीं कांयच सांगूक जायना, पूण हीच सगळ्यांत उंचेली सत्ता अशें म्हण्टात.

बुद्धाचे मोलादीक विचार तीन सिद्धातांमदीं आस्पावतात - १) चार आर्य सत्यां २) अष्ट श्रेश्ठ मार्ग आनी ३) प्रतीयसमुपाद. चार आर्य सत्यां म्हळ्यार दुख्ख, दुख्ख समुदय, दुख्ख निरोध आनी गामिनी मार्ग. दुख्ख म्हळ्यार निरोधाच्या आठ पदाचो मार्ग. तीं पदां म्हळ्यार सम्यक्दृश्टि, सम्यक् संकल्प, सम्यक् वाक्, सम्यक् कर्मान्त, आजीव, व्यायाम, स्मृति आनी समाधी शील, समाधी आनी प्रज्ञा हीं ह्या मार्गाचीं मुखेल तत्त्वां जावन आसात.

दुख्खान भरिल्ले जीणेची उत्पत्ती आनी निमाणी प्रक्रिया समजावन सांगल्या. त्या सिद्धांतांक प्रतीत्यसमुत्पाद अशें म्हण्टात. हातूंत बारा दुवे आसात. देखून ताका 'द्वादश निदान' म्हण्टात. हाका भवचक्र, संवसारचक्र, धर्मचक्र वा जल्ममरणचक्र अशेंय म्हण्टात. हो कारणभावाचो सिध्दांत. हाचे बारा दुवे अशे आसात - अविद्या, संस्कार, विज्ञान, नाम-रूप, षडायतन, स्पर्श, वेदना, तृष्णा, उपादान, भव, जातिया जल्म आनी जरामरण.

बौध्द तत्त्वज्ञानात आनीकूय म्हत्वाचे सिद्धांत आसात. क्षणभंगुरवाद, अनन्तावाद, वानैरात्म्यवाद आनी कर्मवाद. खंयचोय पदार्थ अजरंवर ना. दरेक पदार्थ खीणभराच्या अस्तित्वांत येता. आत्मोय अचल, आजर वा अमर न्हय. आत्मो म्हळ्यार एकाद्रया दिव्याच्या खीणबर पेटिल्ले ज्योतीभशेन, तो क्षणिक प्रवाहमान चेतना. मनीस म्हळ्यार फकत तत्त्वांचो एकसंघ. मरणाउपरांत तो विस्कटावता. तो परत दुसरो जल्म घेना. ताचे फकत कर्म आनी संस्कार उरतात. ते परत संघाताच्या रुपान एकठावतात. दुख्खान भरिल्ल्या संवसारातल्यान भायर सरप म्हळ्यार निब्बान वा निर्वाण. ईश्वर नांवाची कसलीच सत्ता अस्तित्वांत ना. बुध्दान तत्त्वमीमांसीय प्रस्नाचेर मोने पण पाळ्ळां. ताचो उद्देश मनीस जीणेंत भरिल्ल्या दुख्खाचें कारण आनी ताचे निवारण सोदपाचो आशिल्लो. परवर्ती बौध्द तत्त्वमीमांसीय समस्यांचें निरसन करपाखातीर ताणें बरेच यत्न केले.

बौध्द तत्त्वज्ञान भारताभायर तिबेट, चीन, जपान, कोरिया, ब्रह्मदेश, हिंदचीन, श्रीलंका आदी देशांत फुल्लें, फळ्ळें पूण भारतांत तें बावलें. चडांत चड तें बुध्द विहारांमदींच उरलें.

**सांख्यदर्शन** - 'साख्य' शब्द 'संख्ये'तल्यान निर्माण जाला. सम्यक्ज्ञान आनी गणना अशे ताचे दोन अर्थ आसात. पयल्या अर्थान हें तत्त्वज्ञान प्रकृती आनी पुरुष हांच्या वेगळेपणाच्या ज्ञानाक म्हत्व दिता आनी दुसऱ्या अर्थान सत्तात्मक पदार्थांची संख्या ह्या तत्त्वज्ञानाचो मुकूटमणी जावन आसा. ह्या तत्त्वज्ञानाप्रमाण एकूण पदार्थ २५ आसात. हातूंत पुरुष आनी प्रकृती स्वतंत्र आसात. हेर पदार्थ हाचेच संयोगांतल्यान तयार जाल्यात.

ह्या तत्वज्ञानाचे प्रवर्तक कपिलमुनी आशिल्ले. आसुरी, पंचशिख, ईश्वरकृष्ण, विज्ञानभिक्षु, गौडपाद, वाचस्पति मिश्र, नारायण तीर्थ हे हेर सांख्य दार्शनिक. सांख्य प्रवचनसूत्र आनी तत्त्वसमास (कपिल), सांख्यकारिका (ईश्वर कृष्ण), सांख्यतत्त्वकौमुदी (वाचस्पती मिश्र) हे कांय मुखेल ग्रंथ जावन आसात.

सांख्य सत्कार्यवाद मांडटा. दुदांत जे प्रमाण घंय जमता, तशें कार्य वा परिणाम कारणाभितर शक्य रुपान वर्तमानांत अस्तित्वांत रावता, हाचेखातीर हाका परिणामवाद अशेंय म्हळां. हाचेखातीर ते खूब तर्कूय दितात. 'असद्‌कारणात् उपादानग्रहणात् सर्वसंभवाभावा शक्तस्य शक्य कारणात्।' जाचे भितर पुराय संवसार अव्यक्त रुपान हाजीर आसता, ती प्रकृती स्वयंभू आसा. तिच्या अस्तित्वांखातीर पांच तर्क दिल्यात - 'भेदाना परिणामात् समन्वयात् कार्यतः प्रवृत्तेश्च । कारण कार्य विभागात् अविभागाच्च वैश्वरुपस्या' प्रकृतिची तीन तत्त्वां सत्व, रज आनी तमस हीं आसात. हांकां गूण अशेंय म्हण्टात. हे सुखदूख आनी निर्शेणेचे जनक जावन आसात. प्रकृतिभितरूच जगाची उत्पत्ती, विकास आनी लय जाता. हें सगळें पुरूषाच्या बरेपणाखातीरूच जाता.

पुरूष जेन्ना प्रकृतिचे संपर्कांत येता, तेन्ना प्रकृतिंत चलनवलन निर्माण जाता. म्हणून पुरूष हो संवसाराचो निमित्तकारण आसा. पुरूष शुध्द चेतन आनी सत्ता आसा. तो निष्क्रिय, अमर आनी अपरिवर्तनशील आसा. पुरूष खूब आसात, मात प्रकृति एकूच आसा. ती जड आनी क्रियाशील आसता.

सांख्याचीं २५ तत्त्वां फुडें दिल्ले प्रमाण - पुरूष, प्रकृती, महत्, अहंकार, मनस (६+१०), पांच ज्ञानेंद्रियां (११+१५), पांच कर्मेंद्रियां (१६-२०), पांच तन्मात्र (२१-२५), पांच महाभूतां.

संवसारांत तीन तरांचीं दुख्खां आसात. आध्यात्मिक, आश्विभौतिक आनी आश्विदैविक. ह्या तीन गुणांचीं कारणां आसात - अविवेक दुख्खाचें कारण तर विवेक मुक्तीचें. प्रकृतिसावन वेगळो 'कैवल्य' हे ज्ञान गुणांसावन पयस वचून तो मेळयता. सांख्या पुनर्जल्माचेर विस्वास दवरतात. पयली सांख्य ईश्वरवादी आशिल्ले. उपरांत ते निरिश्वरवादी जाले.

**योगदर्शन** - 'योग' हें उतर 'युजिर' वा 'युज्' धातूंतल्यान तयार जालां. 'जोडप' वा 'ध्यान लावप' असो ताचो अर्थ. योग्य शास्त्राचो प्रणेतो पतंजली आनी ताचो मूळग्रंथ 'योगसूत्र'. ताचे चार वाठार आसात - समाधीपाद, साधना पाद, विभूतिपाद आनी कैवल्यपाद. पतंजली योगांत योगाक 'राजयोग' अशेंय म्हळां.

योग मनाच्या विकारांक आडायता. 'योगस्तु चित्तवृत्ति निरोधः। चित्त हो प्रकृतिचो पयलो विकास. हातूंत बुध्दी, अहंकार आनी मनस हांचो आस्पाव जाता. वस्तूंच्या संपर्कांत येतकच चित्त ताचें रूप धारण करता. हाकाच चित्तवृत्ती म्हण्टात. चित्तांत सत्वाची प्रबळताय जातकच पुरूष बुध्दीन पडबिंबित जावन ते वृत्तीक आपलेंच रूप समजता आनी होच भाव ताच्या दुख्खाचें कारण थारता. जातूंत पुरूष आपले मौलिक पळोवंक शकता असो वास्तविक मोक्ष म्हळ्यार चित्तवृत्तीचो निरोध.

चित्तवृत्ती पांच आसात - प्रमाण, विपर्यय, विकल्प, निद्रा आनी स्मृती. हांकां लागून पांच तरांचे क्लेश जातात. - अविद्या, अस्मिता, राग, द्वेश आनी अभिनिवेश. चित्ताच्यो पांच अवस्था आसात. ताकाच चित्तभूमी अशें म्हण्टात. क्षिपृ, मूढ, विक्षिप्त, एकाग्र आनी निरूध्द. चित्तान सत्व, रजस आनी तमस अशे तीन गूण आसतात. तांचें अस्तित्व आनी प्रबळतेप्रमाण तीन तरांचीं चित्तां आसतात - प्रख्य, प्रवृत्ती आनी स्थिती.

चित्तवृत्तीच्या नियंत्रणाखातीर योग तत्त्वज्ञानान अष्टांग योग आसा. तो फुडें दिल्ले प्रमाण - यम (अहिंसा, सत्य, अस्तेय, ब्रह्मचर्य, अपरिग्रह), नियम (शौच, संतोष, तप, स्वाधाय, ईश्वर प्रणिधान), आसन, प्राणायाम (पूरक, कुंभक, रेचक), प्रत्याशर, धारणा, ध्यान आनी समाधी. समाधीचे दोन प्रकार आसात - सबीज वा संप्रसात आनी निर्बिज्य वा असंप्रसात. पयल्याचे परत चार प्रकार - सवितक, सविचार, सानंद आनी सास्मिता. तर दुसऱ्याचे दोन प्रकार आसात - भाव प्रत्यय आनी उपाय प्रत्यय.

योगाभ्यासांत आठ सिध्दी प्राप्त जातात. १) आणिमा २) लधिमा ३) महिमा ४) प्राप्ती ५) प्रकाम्य ६) वशित्व ७) एषित्व ८) यंत्रकामवशयित्व. पूण योगाचो उद्देश सिध्दी मेळोवपाखातीर न्हय, तर मोक्ष मेळोवपाचो आसा. योग विद्येन ईश्वराची सत्ता साधनांच्या रुपांत आपणायता. ईश्वर योगांत येवपी आडखळी पैस करून साधकाची मदत करता. ईश्वर सगळ्या त्रासां-पिडां सावन मुक्त असो एक खाशेलो पुरूष आसा. ईश्वर प्रणिधानान सिध्दी मेळटा. वेद ज्ञानशक्तीचो क्रमबध्द विकास आनी प्रकृती पुरूषाचो संयोग, योग ईश्वराचे अस्तित्वाचो सूचक आसा. सांख्याचे पुराय तत्त्वमीमांसेक आपणायल्यार कळटा की योग हो ताचो वेव्हारीक वांटो आसा.

**न्यायतत्त्वज्ञान** - न्याय तत्त्वज्ञानाक प्रमाणशास्त्र, हेतुविद्या, वादविद्या, अन्विक्षी अशेंय म्हण्टात. हें चड करून तर्कशास्त्र आनी ज्ञानमीमांसा आसा. ह्या तत्त्वज्ञानाचो संस्थापक गौतम वा अक्षपाद आसा. हाचो मोलादीक ग्रंथ 'व्यायसूत्र' हो आसा. हाचेरूच वात्सायनान न्यायभाश्य बरयलां. न्यायवार्तिक (उधोत्कर), तात्पर्यटीका (वाचस्पती मिश्र), न्याय कुसुमांजली (उदयन) आनी न्यायमंजरी (जयंत) हे हेर मुखेल ग्रंथ जावन आसात. फुडाराक नव्यन्यायाचें संवर्धन जालें. हातूंतलो मंगेश उपाध्यायाचो मुखेल ग्रंथ 'तत्त्वचिंतामणी' होय येता. वासुदेव, रघुनाथ, मथुरानाथ, जगदीश आनी गदाधर नव्य न्यायाचे मुखेल विद्वान आसात. न्यायाचे ज्ञान मीमांसेत ज्ञानाचे दोन प्रकार सांगल्यात - लौकीक आनी अलौकीक. अलौकीक ज्ञानाचे तीन प्रकार आसात - सामान्यलक्षण, ज्ञानलक्षण आनी योगज. लौकीक ज्ञान दोन तरांचें आसा. बाह्य आनी आभ्यंतर. आभ्यंतर ज्ञान मना वटयां मेळटा. बाह्यज्ञानाचे पांच स्त्रोत तशेच प्रकार आसात - त्राक्षुष, श्रोतज, घ्राणज, रसज आनी त्वक्.

ज्ञानाचीं चार प्रमाणां आसात - प्रत्यक्ष, अनुमान, उपमान आनी शब्द. 'इंद्रियार्थ - सन्निकर्षजन्यं ज्ञान प्रत्यक्षम्!' हाचे दोन प्रकार आनी अवस्था आसात. निर्विकल्पक आनी सविकल्पक. अनुमान हेर ज्ञानान मेळटा. हातूंत तीन पदां आसात - साध्य, पक्ष आनी हेतू. हेतुचें पक्षांत रावप म्हळ्यार पक्षधर्मता. हेतू सदांच साध्यावांगडा मेळप म्हळ्यार व्याप्ती. व्याप्ती खाशेले पक्षधर्मतेची परामर्शक आसता. परामर्शाच्या ज्ञानान उत्पन्न ज्ञान अनुमान आसा. अनुमान दोन तरांचें आसता - स्वार्थानुमान आनी परार्थानुमान. परार्थानुमानान पांच कथनां आसात - प्रतिज्ञा, हेतू, उदाहरण, उपनय आनी निगमन. व्याप्तेप्रमाण अनुमानाचे तीन प्रकार थारायल्यात - पूर्णवत्, शेषवत् आनी सामान्यतोश्ट. व्याप्तीक प्राप्त करपाच्या विधीप्रमाण अनुमानाचे तीन प्रकार आसतात - असिध्द (आश्र्यासिध्द, स्वरुपासिध्द, व्यापत्वासिध्द), सव्याभिचार (सादारण, असादारण, अनुपसंहारी), सत्प्रतिपक्ष, बाधित आनी विरूध्द.

उपमान, संज्ञा आनी संज्ञीच्या संबंदाच्या ज्ञानान मेळटा. शब्द वा आप्त प्रमाण दोन तरांचे आसतात - दृष्टार्थ आनी अदृष्टार्थ. स्तोतांप्रमाण शब्द दोन प्रकारचे आसतात - लौकीक आनी अलौकीक.

न्याय ईश्वराचे सत्तेक मानता आनी ते खातीर प्रमाण दिता - 'कार्यायोजन घृत्पादेः पदात् प्रत्ययतः श्रुतेः। वाक्यात संख्याविशेषाच्च साध्यो विश्वविदव्ययः॥' ईश्वर सर्वगुण संपन्न, स्त्रष्टो, भर्तो आनी कर्तो आसात. न्यायदर्शन आत्माच्या बहुत्वाक मानता. आत्मो अणुस्वरूप आनी सनातन आसा. तशेंच ही चेतना दुखासुखाचो आदार आसा. न्यायदर्शनाक कारणभावाचो सिध्दांत असत्कार्यवाद म्हण्टात. हाका 'आरंभवाद' अशेंय म्हण्टात. हाचे प्रमाण परिणाम वा कार्य आपल्या कारणान पयलीं सावन विद्यमान नासता. दरेक परिणाम नवो आसता. कारणां तीन तरांचीं आसात - समवायी, असमवायी आनी निमित्त. न्यायतत्त्वज्ञान, अनेकतावादी आनी यथार्थवादी आसा.

**वैशेशिक तत्त्वज्ञान** - वैशेशिक तत्त्वज्ञान पदार्थाच्या 'विशेशत्वा'चेर भर दिता. हें यथार्थवादी, परमाणुवादी आनी अनेकतावादी आसा. हाचो प्रवर्तक कणाद, कणमुज, कणमुक, उलूक, औलुक्य वा कश्यप हे आसात. अन्न एकठांय करून खावपी म्हणून कणाद हें नांव ताका पडलें. ताचो ग्रंथ कणाद. ताचेर प्रशस्तपादान पदार्थधर्मसंग्रह नांवाचें भाश्य बरयलां. उदयन् आनी श्रीधर हे हेर वैशेशिक विद्वान जावन आसात.

वैशेशिक न्यायाचे ज्ञानमीमांसेक मानून प्रत्यक्ष अनुमान, उपमान, आर्षज्ञान, स्मृति आदि प्रमाणांक आपणायतात. शब्दाक अनुमानाचो प्रकार मानतात. संशय, विपर्यय, अजध्यव्यसाय हांकां अवैध म्हण्टात. हांच्या तत्त्वमीमांसेंत सत्तेक पदार्थांत वर्गीकृत करतात. पद वा शब्दाच्या निर्दिश्टाक पदार्थ म्हण्टात. जे ज्ञेय आनी अभिधेय आसात ते पदार्थ आसात. पदार्थाचे दोन प्रकार आसात - भाव आनी अभाव. भाव पदार्थ ६ तरांचे आसात - द्रव्य, गूण, कर्म, सामान्य, समवाय आनी विशेश. द्रव्यां णव आसात - पृथ्वी, जल, अग्नी, वायू, आकाश, काळ, दिक्, आत्मो आनी मनस. सुगंध, स्वाद, रंग, स्पर्श आनी शब्द. पयल्या पांच द्रव्यांत क्रमशः खाशेले गूण आसात. आत्मे जायते आसात आनी ते एकमेकांसावन स्वतंत्र आसात. चेतना आत्म्याचो आकस्मिक गूण आसा. इत्सा आनी यत्न हे लेगीत ताचे गूण आसात. मन हें अंतर इंद्रिय. आत्मो सोडून हेर सगळीं द्रव्यां भौतिक, सगळीं द्रव्यां सनातन आसात. तांचीं जोड द्रव्यां विनाशशील आसात.

गूण द्रव्याजित आसतात. ते आत्मानिश्ठ नासतात. गूण भौतिक आनी अभौतिक आसतात. गूण चोवीस आसात - रूप, रस, गंध, स्पर्श, शब्द, संख्या, गुरूत्व, विभागत्व, संयोग, वियोग, परत्व, अपरत्व, बुध्दी, सुख-दुख्ख, इत्सा, द्वेश, यत्न, धर्म, अधर्म, परिमाण, पृथकत्व, द्रवत्व, स्नेह, संस्कार. कर्मां पाच प्रकारचीं आसात - उत्क्षेपण, अवक्षेपण, आकुंचन, प्रसारण आनी गमन. भोवतेक चडशे सामान्य पदार्थांत मेळपी पदार्थ आसात. मनुष्यत्वाभशेन तो नित्य आसा. सामान्याचे तीन प्रकार आसात - परा, अपरा आनी परापरा. खाशेल्या सगळ्या पदार्थांचो व्यावर्तक पदार्थ आसा. तो सध्दीचो, खूब आनी वेगळावपाक जायना असो आसा. दोन अवियोग्य पदार्थांच्या संबंदाक समवाय म्हण्टात. देखीक - जशें वस्त्र आनी ताचे धागे. अभाव निशेधात्मक आसा. ताचे चार प्रकार आसात - प्रागभाव, प्रध्वंसाभाव, अन्योन्याभाव आनी अंत्यताभाव.

वैशेशिक परमाणुवादी आसात. पृथ्वी, जल, वायू आनी अग्नी हांचेसावन सगळे पदार्थ जाल्यात. हे ईश्वराक एक पुरूष विशेशाच्या रुपान मानतात. ईश्वर परमाणुभितर स्पंदन तयार करून सृश्ट जल्माक घालता. हे कर्म सिध्दांताक मानतात आनी अज्ञानाचो काळोख पैस जातकच मोक्ष मेळटा अशें म्हण्टात.

**पूर्वमीमांसा** - मीमांसेचो अर्थ आसा 'पूज्यविचार'. आदल्या तेंपार वैदिक कर्मकांडाचे व्याख्येक मीमांसा म्हणिल्लें पळोवंक मेळटा. ह्यावेळार मीमांसेचो अर्थ आसा समीक्षात्मक गवेषता. मीमांसेचे दोन प्रकार आसात - पूर्वमीमांसा आनी उत्तरमीमांसा. पूर्वमीमांसा, वेदाच्या पयल्या दोन वांट्याक म्हत्व दिता आनी तातूंतल्या कर्मकांडाच्या नेमांची व्याख्या करता. जैमिनीचो 'जैमिनीसूत्र' हो हाचेवेयलो मोलादीक ग्रंथ आसा. हो वेदांतल्या धर्माक म्हत्व दिता. हें यथार्थवादी आनी निरिश्वरवादी तत्त्वज्ञान आसा.

शबरान जैमिनीसूत्रार भाश्य बरयलें. कुमारिल भट्टानूय ताचेर भाश्य केलें. ताचे तीन वांटे आसात - श्लोकवार्तिक, तत्रवार्तिक आनी टुपटिका. मंडनमिश्राचे 'विधिविवेक' आनी 'मीमांसानुक्रमणी', वाचस्पती मिश्राचे 'न्यायकणिका' हे चड प्रसिध्द ग्रंथ जावन आसात. सुचरित मिश्र, सोमेश्वरभट्ट, पार्थसारथी मिश्र, वेकर दिक्षीत हे हेर विद्वान आसात. हे कुमारिलाचे आसात. प्रभाकरान शबर भाश्यार बृहति ग्रंथ बरयलो. ताचेर मलिकनाथान भाश्य बरयलें. कुमारिल आनी प्रभाकर हांचे खेरीज मीमांसेचो आनीक एक तिसरोय संप्रदाय आसा. ताचो फुडारी मुरारी.

जैमिनीन तीन प्रमाणां मानलीं - प्रत्यक्ष, अनुमान आनी शब्द. प्रभाकर हे तीन खेरीज उपमान आनी अर्थापत्ती हेय प्रमाणांक मानता. कुमारिल वयल्या पांचावांगडाच अनुपलब्धीकूय प्रमाण मानता. ताचे म्हणण्याप्रमाण ज्ञान, आत्मो आनी मन हांचे संयोगांतल्यान निर्माण जाता.

मीमांसा शब्द प्रमाणाक चड म्हत्व दिता. हाचे दोन प्रकार आसात - पौरुषेय आनी अपौरुषेय. पयल्याक आत्मवाक्य आनी दुसऱ्याक वेदवाक्य म्हण्टात. पयलें अनुमानाश्रित आसा आनी दुसरें स्वता वैध आसा. वेदांची रचना देव वा मनशांकडल्यान जावंकना. ते स्वप्रकाशित आसात. तातूंत विधिवाद आनी अर्थवाद दोनूय आसात. वर्ण आनी शब्द नित्य आसात. शब्दार्थूय नित्य आसात. वैधज्ञान अर्थक्रियाकारी आसता.

प्रभाकर स्वता प्रमाण्य आनी अख्यातिवादाचो समर्थक आसा. पूण कुमारिल परतः प्रामाण्यवाद आनी विपरीतवादाचो समर्थक आसा. प्रभाकराचे मीमांसेत ज्ञान सदांच वैध आसता. कुमारिल हें मानीना. प्रभाकर त्रिपुटिवादाचो समर्थक जाल्यार कुमारिल ज्ञानतावादाचो समर्थक आसा.

मीमांसादर्शनांत आत्मो, कूड, इंद्रिय, मन, बुध्द हांचे सावन वेगळी आशिल्ली एक सत्ता अशें म्हळां. आत्मे जायते आसतात. ते नित्य, सर्वगत, विभु, व्यापक आनी द्रव्य आसात. आत्मोच ज्ञातो, कर्तो, भोक्तो आसा. म्हणूनच आत्मो 'जड' आसा. पूण कुमारिलाच्या मताप्रमाण आत्मो पुरायतरेन 'जड' ना. चेतना हाचो एक परिणाम आसा आनी ज्ञान एक क्रिया आसा. मीमांसक अनेकश्वरवादाचे समर्थक आसात. जैमिनीन ईश्वराविशीं मोनेपण धरलां. मीमांसेत धर्माचेर चड भर दितात. जैमिनीचे मताप्रमाण धर्म मनशाक क्रियाशिल करता. 'चोदनात्मक्षणोऽर्थो धर्मः।' कर्मां तीन तरेची आसतात - आवश्यक, वैकल्पिक आनी वर्जित.

मीमांसा तत्त्वज्ञान यथार्थवादी आनी अनेकवादी आसा. हाचेप्रमाण जगत् सत्य आसा. सवंसाराची सृश्ट जायना आनी पुराय विनाशूय

जायना. प्रभाकराच्या मताप्रमाण पदार्थ सात आसात - द्रव्य, गूण, कर्म, सामान्य, समवाय, शक्ती, सादृश्य. कुमारिल हाचे खेरीज अभावाकूय, पदार्थ मानता. मीमांसकांच्या मताप्रमाण संवसारीक सुखासावन मेकळेपण मेळोवप म्हळ्यारूच मोक्ष. कुमारिल ब्रह्मप्राप्तीक मोक्ष म्हण्टा. हाची प्राप्ती कर्म आनी ज्ञानाच्या संयोगान जाता.

**उत्तरमीमांसा** - उपनिषद्, गीता, ब्रह्मसूत्र आनी ताचेर बरयल्लीं सगळीं भाश्यां म्हळ्यार उत्तरमीमांसा दर्शन. हातूंत वेदांच्या ज्ञानकांडाक म्हत्व दिलां. हाचे पयले तत्त्वज्ञानी आचार्य गौडपाद आसात. हाचे ग्रंथाचे नाव 'मांडुक्यकारिका' हे शंकराचार्यांचे गुरू गोविंद हांचे गुरू आशिल्ले. मांडुकच उपनिषदावयले भाश्य आशिल्ले. मांडुक्यकारिका, अद्वैत आनी अजातिवादाचे प्रतिवादन करता. संवसार ही एक माया अशें मत हांगा दिसून येता.

**केवलाद्वैत तत्त्वज्ञान** - केवलाद्वैताचे प्रतिपादन शंकराचार्याचो जल्म इ.स. ६८०न केरळ प्रांतांतल्या कोचीन लागसार आशिल्ल्या कालडी गांवांत जालो. ताका ३२ वर्सांचे पिरायेचेर मरण आयलें. ताचे मताप्रमाण वेधज्ञान अबाधित आसता. प्रत्यक्ष, अनुमान आनी श्रृति प्रमाण आसात. ब्रह्म वा आत्मो ही निमाणी सत्ता. हे अद्वैत, चित्स्वरुप, निर्गुण, निर्विशेश आसता. माया हाका सगूण सविशेश वा वेत्या ईश्वराचे रुपान भासयता. हो ईश्वर वेव्हारीक नदरेंतल्यान सृष्टो, भर्तो आनी संहारकर्तो आसा. परमार्थिक नदरेंतल्यान मात ब्रह्म ही एकमात्र सत्ता आसा.

आत्म्याच्या अस्तित्वाक विरोध जावंक शकना. दुबाव, निशेध, आत्मास्तित्व हाची प्राक्‌कल्पना करता. 'य: एव यस्य निराकर्ता तदेव तस्य स्वरूपम्।' खंयचीच वस्तू निरात्मक आसना. 'जगतो मूलमात्मास्ति' आत्म्याचें स्वरूप चेतना आसा. विशयाच्या रुपान आत्मो ज्ञेय न्हय. आत्मो, कर्तो, भोक्तो न्हय, तो फकत केवळ साक्षी. जागृत, स्वप्न, सुश्रृति हातूंतूय आत्मोच मूलाधार आसता. हाचेखेरीज तो 'तूरीय' लेगीत आसा. हाचें वर्णन फकत 'नेतिनेति' अशें आसा. आत्मोच म्हळ्यार 'ब्रह्म जीवो ब्रह्मैव ना पर:। तत्त्वमासि'। आत्मो सच्चिदानंद आसा.

आत्म्याचें संकुचित रूप अनात्म्याच्या संयोगान जाता. ताकाच जीव अशें म्हण्टात. जीवाचो आत्मांश चेतना आसा. ती साक्षी आसा आनी अनात्मांश अंत:करण आसा. तें पंचमहाभूतांसावन तयार जाल्ल्या कारणान भौतिक आसा. जीव कर्तो आनी भोक्तो आसा. अविद्येन बंधन आनी विद्येन मोक्ष मेळटा. मोक्षांत जीव आत्म्यान लीन जाता.

आत्मो-अनात्म्याचे भेदाक न समजप म्हळ्यार अध्यात्म. हें अध्यात्म म्हळ्यार अविद्येचो परिणाम. अविद्येचें वैश्व रूप माया. माया सत् ना आनी असत् लेगीत ना. 'ना सद्रुपा न सद्रूपा माया नैवोमयात्मिका। सद्सद्भ्यामनिर्वाच्या मिथ्याभूता सनातनी। हाचीं दोन कार्यां आसात - आवरण आनी विक्षेप माया जड आसा. विवर्ताच्या रुपात हाची वेव्हारीक सत्ता आसा. हाचो आदार ब्रह्म आसा. हीं अभ्यासरुपां आनी विज्ञाननिरस्पा आसा.

सत्तेचे तीन स्थर आसात - स्वप्न, वेव्हार आनी परमार्थ. देखीक - वेव्हारिक नदरेंतल्यान स्वप्नाची सत्ता असत तशेंच पारमार्थिक सत्तेचें ज्ञान जातकच वेव्हारीक जगताची सत्ता असत् जाता. म्हणून वेव्हारीक नदरेंतल्यान जगत सत्य पूण परमार्थीक नदरेंतल्यान असत्य आसा. ईश्वर जगताचो स्त्रश्टो आसा. परमार्थिक नदरेंतल्यान जें कितें आसा तें सगळें ब्रह्माचें फकत विवर्त आसा. माया आनी अविद्येच्या नाशान ज्ञान मेळटा. ताकाच मोक्ष म्हण्टात. ज्ञान आसल्यार मोक्ष मेळटा. ज्ञानाखातीर कर्मकांड, भुमिका तयार जाता.

**विशिश्टाद्वैत तत्त्वज्ञान** - विशिश्टाद्वैताचे प्रर्वतक रामानुजांचो जल्म तमीळनाडूंत इ.स. १०१७त जालो. तर श्रीरंगमांत इ.स. ११३७ त ताका मरण आयलें. यादव प्रकाश, यमुनाचार्य आनी महापुर्ण हे ताचे गुरू आशिल्ले. श्रीभाश्य, गिताभाश्य, वेदांतसार, वेदांतदीप, गद्यमय, वेदांत संग्रह हे ताचे ग्रंथ. ह्या संप्रदायांतले हेर तत्त्वज्ञानी आनी तांचे ग्रंथ फुडें दिल्ले प्रमाण - सुदर्शनसुरी (श्रुमप्रकाशिका), वेंकटनाथ वा वेदांतदेशिक (तत्त्वटीका, न्यायसिध्दांजल, षट्‌दूषणी), मेघनादारि (नयद्युमणि), लोकाचार्य (तत्त्वत्रय) आनी श्रीनिवास (यतींद्रमतदीपिका). हांचे दोन संप्रदाय वेदगलाई आनी तेंगलाई. हांचे प्रर्वतक वेंकटनाथ आनी लोकाचार्य हे आसात.

विशिश्टाद्वैतान ज्ञानाचीं तीन प्रमाणां आसात - प्रत्यक्ष, अनुमान आनी श्रुति. प्रत्यक्ष, निर्विकल्प आनी साविकल्प आसता. सगळे ज्ञात आनी ज्ञेय सविशेश आसतात. श्रुति प्रमाणात रामानुज प्रस्थानत्रयी वांगडाच पंचरात्र आगमाकूय मानता. हे कर्म - ज्ञान - भक्तिच्या चोम्याकूय मानतात. हांच्या मताप्रमाण वेदांचे कर्म आनी ज्ञानकांड एक दुसऱ्याक पूरक आसा.

हांच्या मताप्रमाण ज्ञाता आनी ज्ञानात भेद आसता. खंयचोय पदार्थ द्रव्य आनी गूण दोनूय आसूंक शकना. ज्ञान द्रव्य आनी गूण दोनूय आसा. ज्ञान 'जड'य ना आनी 'चेतन'य ना. तें 'अजड' आसा. ज्ञान स्वप्रकाशक आसा. हातूंत स्वचेतना नासता. आत्मान स्वचेतना आसता. दर एक ज्ञान आपूण स्वता वैध आसता. रामानुज सत्‌ख्याति वा यथार्थ ख्यातीक मानता. भ्रांति एक अपूर्ण ज्ञान आसा. अर्थक्रियाकारित्व वैध ज्ञानाचें सूचक आसात.

विशिश्टाद्वैतान पूर्ण भेद आनी पूर्ण अभेद लटीक थरता. जीण आनी जड ईश्वराचे गूण आसात. मोक्षानूय आत्माचें अस्तित्व आसता. रामानुज तत्त्वत्रयाची संकल्पना मांडटात. अचित, आत्मे आनी ईश्वर सनातन सत्ता आसात. हातूंत अपृथक सिध्दीचो संबंद आसता. ईश्वर सर्व स्वतंत्र आसा. हेर सत्ता ईश्वराधिन आसतात. ईश्वर चिदाचिद् विशिश्ट आसा. 'सर्वचेतनाचेतनमृर्तस्यशरिरम्!' तातूंत स्वगत भेद आसात, पूण स्वजातीय वा विजातीय भेद नात. देवूच संवसाराचें निमित्त आनी उपादान कारण आसा. तो पूर्णपुरूष, सच्चिदानंद, सत्यं, शिवम्, सुंदरम् आनी कर्मात्रो स्वामी आसा. ताच्यो दोन अवस्था आसात - कारणावस्था आनी कार्यावस्था. तो अविकारी आसुनूय विकाराक जल्म दिता. ताची कूड अप्राकृत आसा. शुद्ध सन्वातल्यान निर्मणी जावन वैकुंठ ताची, राबितो सुवात आसा. ताचे शक्तीचे नांव लक्ष्मी आसा. ताचे पांच आकार आसा - विश्वात्मा (अंतर्यामी), नारायण वा परव्युशकार. व्युह चार आसात - वासुदेव, संकर्षण, प्रद्युम्न आनी अनिरूध्द, अवतार वा विभव आनी अर्यावतार (मूर्ती).

आत्मे खूब आसात आनी ते देवाचे कुडीचे गूण आसात. ते द्रव्य आसात. ते सनातन आनी कर्माधीन आसात. आत्मो अणुस्वरूप, अविकारी आनी पूर्ण आसा. तो कर्तो, ज्ञातो, भोक्तो आसा. मोक्षावस्थेंत आत्मो खूब ज्ञान आनी खोशेचो अणभव घेता. आत्म्याचे तीन प्रकार आसात - नित्यमुक्त (शेष, गरूड आनी लक्ष्मी), मुक्त आनी बध्द (देव, मनीस, पशु आनी अचल), अज्ञान आनी कर्म बंधनाची कारणां आसा. भक्ती, प्रपत्ती आनी ज्ञान हीं मोक्षाचीं साधनां आसात. शरणागती स तरांची आसता. रामानुज जिवनमुक्ती मानिना.

अचित पदार्थ आनी संवसार सत आसा. अचिताचीं तीन रुपां आसात - प्रकृति वा मिश्रतत्त्व, नित्यविभुति वा शुध्दतत्त्व, काळ वा तत्त्वशून्य. प्रकृतिन सत्व, रजस आनी तमस हे तीन गूण आसात. जगत् ह्या ब्रह्माचो परिणाम हाका ब्रह्म परिणामवाद अशें म्हण्टात. जगत् म्हळ्यार ब्रह्मांची लिला आनी ती ताचे सुवादीन आसा. रामानुज शंकराचार्याचे मायावादाचें खंडन करपाखातीर ताचेर सात आक्षेप घेतात. ताका सप्तानुपपत्ती अशें म्हण्टात.

**द्वैतवेदांत दर्शन** - मध्वार्चाय प्रस्थानत्रयीची व्याख्या करून यर्थाथवादी आनी अनेकतावादी द्वैत दर्शनाची प्रतिश्ठापना करता. मध्वाचार्य, आनंदतिर्थ वा पूर्ण प्रज्ञाचो जल्म कर्नाटकांत उडपी शाराचे लागसार रजतपीठ गांवांत इ.स. ११९९त जालो. ताणें ३७ ग्रंथांची रचना केल्या. तातूंत ब्रह्मसूत्रभाष्य, अणुव्याख्यान, भागवत तात्पर्य निर्णय, महाभारत तात्पर्य निर्णय, विष्णुतत्त्वनिर्णय, तत्त्वोद्योत हे चड मुखेल जावन आसात.

हेर विद्वान आनी तांचे ग्रंथ फुडें दिल्ले प्रमाण - जयतीर्थ (तत्त्वसंख्यानटीका, तत्त्वविवेकटीका, तत्त्वोद्योत, विष्णुतत्त्वनिर्णय, मायावाद खंडणटीका, प्रमाणलक्षणटीका वा ज्ञायकल्पलता, कथालक्षणटीका, कर्मनिर्णय टीका, न्याससुधा, न्यायविवर्णटीका, षड्प्रश्नउपनिषदभाष्यटीका, वादावली, ऋग्भाष्यटीका, गिताभाष्यप्रमेयदिपीका, गीतातात्पर्यन्यायदीपिका, प्रमाणपध्दती, पद्यमाला, अध्यात्मतरंगिणी आदी), विष्णुदास (वादरत्नावली), व्यासतीर्थ (नायामृत, तर्कतांडव, चंद्रीका, मंदारमंजरी, भेदोज्ञीवन आदी णव ग्रंथ), विजयींद्रतीर्थ (१०४ ग्रंथ), वादिराज (१०४ ग्रंथ), नारायणाचार्य (३ ग्रंथ), सत्यनाथयति (१२ ग्रंथ) आदी.

द्वैतावेदांताचे स्त्रोता प्रस्थानत्रयी, पंचरात्र, महाभारत तशेंच मूळरामायण हें आसा. हातूंत मायावाद, विवर्तवाद, ब्रह्मपरिणामवाद, निगुर्णतत्त्वांचें खंडन करून पंचभेद सिध्दांताकडसून द्वैताचें मंडन केलां. दर एक पदार्थ एक तर सद आसा ना जाल्यार असद्. प्रमिती विषयत्व, देशकाळ संबंधित्व, आनी अर्थक्रियाकरित्व हे सत्तेचे तीन मापदंड आसात. द्रव्य, गूण, कर्म, सामान्य, विशेष विशिश्ट, अंशी-शक्ती, साद्दश्य, आनी अभाव हीं धा आसात. द्रव्यां वीस आसात. विष्णू , लक्ष्मी, जीव, देश काल, प्रकृती, आठ विकार, ब्रह्मांड, अविद्या वर्ण, तिमिर, वासना आनी प्रतिबिंब.

द्वैत वेदांतान भेद आनी पराधीनत्त्वाचे सिद्धांत म्हत्वपूर्ण आसात. भेद पांच आसात ईश्वर, जीव, ईश्वर जड, जीव-चड, जीव - जीव, जड-जड. दरेक पदार्थ ईश्वराचे सुवादीन आसात. ताचे चार व्यूह-वासुदेव, प्रद्युम्न अनिरुद्ध संकर्षण आनी आठ काम आसात. माया ईश्वराची अचित्य शक्ती जावन आसा.

जीव खूब आनी अणुप्रमाण आसात. सत्, चित् आनंद हाचे गूण आसात. ईश्वर जीवांच्या मदीं बिंब, पडबिंबाचो संबंध आसा. जीव तीन तरांचे आसात. सत्व - प्रधान (देव, ऋशी) रजसप्रधान (नित्यसंसारी), तमस्प्रधान. निमाणचे दोन मोक्षाधिकारी नात. जगता सत्य आसा. ब्रह्मताचें निमित्त आनी प्रकृती उपादान कारण आसा. पराधीन विशेश प्राप्तींतल्यान जगत् प्रकृतींतल्यान ईश्वराची उर्बा मेळोवन विकसित जाता.

अज्ञान बंधनाचें कारण आसा अविद्या जीवाच्छदिका आनी परमाच्छदिका आसता. भक्तींतल्यान देवाची कृपा प्राप्त करून मोक्ष मेळटा. मोक्षावस्थेंत लेगीत जीव ईश्वरासावन वेगळो आसता. सालोक्य, सामिप्य, सारुण्य आनी सायुज्य हे मोक्षाचे चार स्थर आसात.

द्वैतवेदांताच्या यर्थार्थवादी ज्ञानमीमांसेत साक्षी प्रत्यक्षाक खूब म्हत्व दिलां. हातूंत ज्ञान ज्ञेयाचेर आदारून आसता. ज्ञेय आनी ज्ञान विशेश आसता. मनाचे वृत्तीक लागून ज्ञान मेळटा. प्रत्यक्ष, अनुमान आनी शब्द तीन अणुप्रमाणां आसात. केवलप्रमाण वैधज्ञान आसा. मध्व स्वतः प्रामाण्यवाद आनी अभिनव ना जाल्यार ख्यातिवादाचे समर्थक आसात. शुद्धाद्वैतदर्शन - हाचो प्रवर्तक वल्लभाचार्य आसात. ताचो जल्म इ. स. १४७९त जालो. वल्लभाचे दोन ग्रंथ प्रसिद्ध आसात. अणुभाष्य आनी सुबोधिनी. ताचो पूत विठ्ठलनाथान विद्वान मंडन बरयलें. पुरुषोतम (भाष्यप्रकाश) गोपेश्वर (रश्मि, सुवर्णसूत्र) गिरिधर (शुद्धाद्वैतमार्तंड), बालकृष्ण भट्ट (प्रमेयरत्नार्णव) हे हेर विद्वान आनी तांचे ग्रंथ जावन आसात.

शुद्धादद्वैताक रुद्रसंप्रदाय वा पुष्टिमार्ग अशेंय म्हण्टात. हांचे मताप्रमाण ब्रह्म शुद्धसत्ता आसा. तिची शक्ती माया, जगत ब्रह्माचो अविकृत विकास आसा. हाका अविकृत परिकामवाद अशेंय म्हण्टात. ब्रह्मांत सजातीय, विजातीय वा स्वगतभेद आसनात. ते जगताचे समवायी आनी निमित्त कारण आसा. ब्रह्मांचीं तीन रुपां आसात. पूर्ण पुरुषोत्तम् (श्री कृष्ण) अक्षर ब्रह्म आनी अंतर्यामी. ब्रह्मा, विष्णु, शिव ताचे गुणावतार ईश्वराचे ६ अप्राकृत गूण आसात.

जीण आनी ब्रह्म दोनूय एकूच आसात. जीवांत ईश्वरीय गूण शिमित आसात. जीव अणुस्वरूप आसूनय व्यापी आसा. जीव दोन प्रकारचे आसात. संवसार (जग) आनी जगतापरस वेगळो, जगतमायेन स्वप्न आनी संवसार अविद्येन, माया ब्रह्मांत आनी अविद्या जीवांत आसता. पयलें सत्य आनी दुसरें असत्य आसा. मायेचे दोन प्रकार आसात. विद्यामाया आनी अविद्यामाया. पयली मोक्षदायिनी आनी दुसरी बंधनदायिनी आसा.

अविद्येचेय दोन प्रकार आसात. सधोमुक्ती आनी क्रममुक्ती. सालोक्य, सामीप्य, सारुष्य आनी सायुजय, हे मोक्षाचे चार स्थर आसात. कृष्णभक्ती आनी पुष्टिमार्गान सायुजय मुक्ती मेळूंक पावता.

**द्वैताद्वैत दर्शन** - द्वैताद्वैत वा भेदाभेद. इसवासनक संप्रदायाचें तत्त्वज्ञान आसा, ह्या तत्त्वज्ञानाचो प्रवर्तक निंबार्काचार्य, निंबादित्य, निंबार्क वा नियमानंद आसा. हें चोदाव्या शेकड्यांत पैठण लागसार तेलगू ब्राह्मणाच्या कुटूंबांत जल्माक आयिल्लें. उपरांत ताणीं जल्मभर वज्रभूमीत राबितो केलो. वेदांत परिजातसौरभ, दशश्लोकी, श्रीकृष्ण स्तवराज, आनी मध्वमुखमर्दन, हे तांचे ग्रंथ आसात. श्री निवास (वेंकट कौस्तुभ), केशवकाश्मिरी, (कौस्तुभप्रभा), पुरुषोत्तम वेदान्तरत्न मंजुषा श्रृत्यंतसुर (द्रुम) माधवमुकुंद (परपक्षगिरिव्रज वा इदिसंचय हे हेर तत्त्वज्ञानी आनी तांचे ग्रंथ आसात.

ह्या तत्त्वज्ञानांत रामनुजीय तत्त्वज्ञानाक मान्य करून ताचेर संशोधन केलां. हातूंत द्वैत आनी अद्वैत दोगांकूय सत्य मानलां. चित्त आनी अचित्त इश्वराची कूड नासून पराधीन द्रव्य आसा. निंबार्क ईश्वराचो आत्मो आनी कूड हांचे मदें वेगळेपण मानीना.

**अचिंत्यभेदाभेद** - हांचे प्रवर्तक बंगालांतलें चैतन्य महाप्रभु (१४८५ - १५३३) हे आसून ते माध्वतत्त्वज्ञान मान्य करतात. ताणें ग्रंथरचना करूंक ना, ताचो शिश्य रुपगोस्वामीन उज्वलनीलमणी आनी भक्तीरसामृतसिंधु हांची रचना केली. जीव गोस्वामी (षट्संदर्भ सर्वसंवादिनी)

बलदेव विद्याभूषण (गोविंदभाष्य) हे हेर तत्त्वज्ञानी आनी तांचे मुखेल ग्रंथ आसात. हातूंत श्रीकृष्णाक ब्रह्मचो अवतार आनी कृष्ण भक्तीक मोक्षाचें साधन मानलां. राधाकृष्णाची आल्हादिनी शक्ती आसात.

**शाक्तदर्शन** – शक्ती, उमा, लक्ष्मी, राधा, पार्वती, सरस्वती, दुर्गा, चामुंडी, त्रिपुरसुंदरी, राजराजेश्वरी, ललिता कूंडलिनी, सावित्री हांका विश्वगर्भ आनी विश्वाच्या मातेच्या स्वरुपांत सगळ्यांत उंचेली सत्ता प्रदान केल्या. हीच शक्ती सृष्टी पालन आनी संहार ब्रह्मा, विष्णू आनी शंकराकडल्यान करून घेता. शक्तीचीं दोन रुपां आसात. विद्या वा चित्शक्ती आनी अविद्या वा मायाशक्ती. जीव तीन प्रकारचे आसतात. पशूवीर, दिव्य, वेदाचार, वैष्णवाचार, शेवाचार, दक्षिणाचार, वामाचार, सिद्धांताचार तशेंच कौलाचार. शाक्त साधनेचे सात प्रकार आसात. पयले तीन जे कर्ममार्ग, भक्तीमार्ग आनी ज्ञानमार्ग आसात, ते पशू – जीवांखातीर आसात. दक्षिणाचार आनी वामाचार वीर जीवांखातीर आसात. निमाणे दोन दिव्यात्मांखातीर आसात. वामाचाराचे पंचमकार आसात. मत्स्य, मदिरा, मैथुन, मास मुद्रा, ह्या सगळ्यांखातीर गुरुची गरज आसता. ह्या पुराय वेवरस्थेंत स्थुलांतल्यान सूक्ष्माकडेन वचपाचें आसता आनी निमाणेकडेन शिव आनी शक्तीच्या एकवटाचो साक्षात्कार जाता होच तंत्रसाधनेचो मुखेल उद्देश जावन आसा.

**शैवदर्शन** – रुद्र शंकर, महादेव ह्या नांवांनी जाका वळखतात तो शिव ह्या तत्त्वज्ञानात परमतत्त्व आसा. पशुपती, नीलकंठ, शंभु, शितीकंठ ही ताचीं हेर नांवां. वेदांतूय शैवदर्शन पळोवंक मेळटा. वेदांचे भशेनूच शैवागमाचे भोवमान करतात. नकुलीश – पाशुपत, शैव प्रत्यभिज्ञा, रसेश्वर, हे शैवदर्शनाचे चार फांटे. शैवाचे दोन फांटे – वीरशैव वा शक्तीविशिष्टा द्वैत आनी शैवसिद्धांत, वीर शैवाक लिंगायत अशेंय म्हण्टात. कालामुख आनी कापालिक हे हेर संप्रदाय जावन आसात.

शैवदर्शनांत शिवाक सगळ्या जीवांचो आत्मो म्हण्टात. शक्ती ही शिवाची प्राकट्य. शिव-आत्म्यान अभिन्नत्व आसा. पूण ते विसरायेर मनशाक दुख्ख भोगना. शिवभक्तिन मोक्ष मेळटा. पशु (आत्मा), पती (शिव) आनी पाश (बंधन) सत्य आसा. शिव स्वरुपतः पशु आनी पाशाचें निमित्त कारण आसा आनी शक्ती माध्यमांतल्यान उपादान कारण आसा. माया शक्ती सावन ३६ तत्त्वां तयार जातात. हींच संवसार पाशाची रचना करतात. पयले अवस्थेंत माया शुद्ध माया आसा, तातूंतल्यानूच शिव तत्व, शक्ति तत्त्वां हांची निर्मणी जाता. अशुद्ध मायेन प्रकृतीमाया निर्माण जाता. ती २४ तत्त्वांक निर्माण करता. आत्म्याची मुक्ती होच सृष्टीचो उद्‌देश जावन आसा.

**समकालीन भारतीय तत्त्वज्ञान** – समकालीन भारतीय तत्त्वज्ञान, भारतीय आनी अस्तंत तत्त्वज्ञानाचो समन्वय करपाचो यत्न करता. हातूंत वैष्व आनी विष्वातीत तत्त्वांक सत्य मानतात आनी अंतरज्ञानावांगडाच अणभव आनी विज्ञानीक पद्दतींक म्हत्त्व दिता. ते जीणेक दुख्खान भरिल्ली मानतात. पूण ताका भ्रांती मानीनात, सत्य मानतात. जीण आनी जगत अध्यात्मक उदरगतीची एक अवस्था आसा अशें ते मानतात. दुख्खातल्यान मुक्ती मेळोवप होच तांचो उद्‌देश आसा. ह्या तत्त्वज्ञानाक एक नदर एक जीणे पद्दत मानतात. तशेंच पारंपारीक कर्म, पुनर्जल्म अमरत्त्व आदी अवधारणांकूय आपणायतात. जगताची सत्यताय, समानताय, अद्वैत मानव व्यक्तीत्वाची समग्रता, मानवता, मानव स्वतंत्रता सहजज्ञान आनी बुद्धीवादाचेर समकालीन तत्त्वज्ञान चड भर दिता.

स्वामी विवेकानंद, रवींद्रनाथ टागोर, मानवेंद्रनाथ रॉय, अरविंद घोष, कालिचंद भट्टाचार्य, लो. टिळक, म. गांधी, हाणीं भारतीय तत्वज्ञानांत आपलेपरी योगदान दिलां.

– गोरखनाथ मिश्र

## तत्त्वबोधिनी सभा :

देवेंद्रनाथ ठाकूर हाणें स्थापन केल्ली एक धर्मीक संस्था. इ. स. १८३९त आपल्या पिरायेच्या बाविसाव्या वर्सा देवेंद्रनाथान तत्त्वरंजनी सभा ह्या नांवान हे संस्थेची स्थापना केल्ली. उपनिषदांतल्या गिन्यानाचो प्रसार करप आनी धर्मजिज्ञासा वाडची ह्या हेतान ही संस्था स्थापन जाल्ली. दर सप्तकांत आनी दर म्हयन्यांत हे संस्थेची सभा भरताली. संस्थेच्या पयल्या वांगड्यांमदीं देवेंद्रनाथाचो भाव आनी सोयरे अशे घरचेच धा तरणाटे आशिल्ले. पूण फुडें दोनच वर्सांनी वांगड्यांची संख्या पांचशांवयर गेली. बंगालांतले कांय राजे – महाराजे, जमीनदार आनी जायते विद्वानय हे संस्थेचे वांगडी जाले. फुडें हे संस्थेची उदरगत जातकच देवेंद्रनाथान तिचें आचार्यपद पंडीत रामचंद्र विद्यावागीश हाचेकडेन दिलें आनी ताचेच सुचवणेवयल्यान संस्थेचें नांव तत्त्वबोधिनी सभा अशें दवरलें. पंडित रामचंद्र हो आचार्यपिठावयल्यान प्रवचनां करतालो. प्रवचनाचे सुर्वेक तो तत्त्वबोधिनी सभेच्या तत्त्वगिन्यानाचो आपरोस आशिल्लो श्लोक म्हण्टालो तो असो –

रूपं रूपविवर्जितस्य भवतो ध्यानेन यद् वर्णितम् ।
स्तुत्या निर्वचनीयताखिलगुरो दूरीकृता यन्मया ॥
व्यापित्वं च विनाशितं भगवतो यत्तीर्थयात्रादिना ।
क्षन्तव्यं जगदीश तद्विकलतादोषत्रयं मत्कृतम् ॥

**अर्थ** – भगवन्, अरूप असो जो तूं, त्या तुज्या रुपाचें हावें ध्यानाच्या मिषान वर्णन केलें. (तेचप्रमाण) हे सर्वगुरो, तुजी तोखणाय करून हावें तुज्या अनिर्वचनीयतेक बादा हाडली. तीर्थयात्रा करून तुज्या सर्वव्यापित्वाचीय हानी केली. एकुण म्हज्या हातांतल्यान घडिल्ल्या ह्या तीन गुन्यांवांखातीर हे जगदीशा म्हाका भोगशी.

हे संस्थेंत एक वैदिक शाळाय सुरू केल्ली. अक्षयकुमार दत्त हो थंय शिकोवपाचें काम करतालो. हे संस्थेची उदरगत चालू आसतना ब्राह्मो समाजाचो संस्थापक राजा राममोहन रॉय हो देवेंद्रनाथाच्या बापायचो इश्ट आनी वांगडी आशिल्लो. देवेंद्रनाथाचें शिकपय राममोहन रॉय हाचे शाळेंत जाल्लें. ह्या लागसल्ल्या संबंदाक लागून राममोहन रॉय हाच्या नांवाविशीं देवेंद्रनाथाच्या मनांत आदर आशिल्लो. ताणें स्थापन केल्ले हे संस्थेची ही अवस्था पळोवन देवेंद्रनाथान १८४२त तत्त्वबोधिनी सभा ब्राह्मो समाजांत विलीन करून समाजाचें फुडारपण आपलेकडेन घेतलें आनी ब्राह्मो समाजाची पुनर्रचणूक केली.

– कों. वि. सं. मं.

## तत्त्वमीमांसा :

प्रत्येक विज्ञान/विशय/विचार आपलें अनुमान काडटना कांय मूलभूत संकल्पना गृहीत धरता. ह्या संकल्पनाच्या खरें – फटपणासंबंदीं चर्चा करीनासतना ताका गृहीत धरून तांच्या आदाराचेर आपले सिध्दांत मांडटात. देखीक : सैमीक घडणुकांमदीं कार्यकारण संबंद आसता. एक गजाल घडली की सैमीक नेमानुसार ताचे संबंदीत दुसरी घडणूक घडटा. हो संकेत सर्वमान्य धरून विज्ञानाचें दर एक शास्त्र आपले

विचार मांडटा. गिन्यानाच्या सगळ्या शाखांक आदारभूत आशिल्ल्या अशा गृहीत मूलभूत संकल्पनांची चिकित्सा करपाचें काम तत्त्वमीमांसा करता. ॲरिस्टॉटल हाणें अशा विशयांचो उल्लेख आदितत्त्वज्ञान वा ईश्वरविद्या असो केला. संवसारीक घडणुकांच्या कार्यकारण संबंदीत अशें हें शास्त्र आशिल्ल्यान ताका आदिशास्त्र म्हणप जाता.

अस्तंते तत्त्वगिन्यानी पार्मेनिडिझ (इ. स. आदी ५ वें शतमान) हाणें तत्त्वमीमांसक विचार पयले फावट मांडिल्ले मेळटात. ताच्या मताप्रमाण प्रत्यक्षांत आसप आनी आसा अशें भासप अश्यो दोन तरा आसतात. आसा अशें भासता तें अजीबात नासता अशें म्हणूंक मेळना कारण, भासपा पुरतें तरी ताचें अस्तित्व जाणवता. स्पिनोझा (१६३२-७७), हेगेल (१७००-१८३१), ब्रॅडली (१८४६-१९२४) हांणी अशेच तरेची वस्तुमीमांसा केल्या.

ल्युसिपस (इ.स.आ. सु. ४५०) आनी डीमॉक्रिटस इ. स. आ. सु. ४६० हांचो परमाणुवाद, ॲनॅक्सॅगोरस (इ. स. आ. सु. ५००) हाचें तत्त्वगिन्यान, लायप्निटस (इ.स.१६४७-१६१६) हाचो पूर्णेकवाद (मॉनॅडिझम), ईलीआचा झीनो (इ.स.आ. सु. ४९०) हाचो विरोधाभास आनी रसेलव्हिटगेन्स्टाइन हाचो तर्किक परिणामुवाद हातूंत अस्तित्वाचे अंतीम घटक आशिल्लो बहुसत्तावादी विचार आयला.

प्लेटो (इ.स. आदी ४२८-३४८) हाणें सत हें इंद्रियगोचर नासून तें बुध्दिग्राह्ये आसता अशे विचार मांडले. ताच्या मताप्रमाण इंद्रियगोचर वस्तू परिपूर्ण नासतात. सगळ्या वस्तुंचीं रूपां हीं सर्वोच्च आनी स्वयंसिध्द अशा अंतिम सत्य रुपापसून निष्पन्न जातात.

प्लेटो, कुडीपसून वेगळ्या आशिल्ल्या आत्म्याची संकल्पना मांडटा. भौतिक वस्तू परप्रेरीत आनी आत्मो स्वयंप्रेरीत आसून तो हेर वस्तूंक गतीमान करता. हाचेवेल्यान आत्मो हो भौतिकवस्तुच्या आदीं अस्तित्वांत आयला आसुंये असो तर्क ताणें मांडला.

ॲरिस्टॉटलच्या मता प्रमाण दर एक अस्तित्व हें आकारीत द्रव्य आसता. ह्या द्रव्याचो आकार वा रूप हें ताचें सत्व आसता. हें सत्व त्या अस्तित्वाचे गूण दाखयता. ह्या गुणांक ॲरिस्टॉटल धर्म म्हण्टात. जे गूण सत्वाभायर आसतात तांकां तो उपाधी म्हण्टा.

प्लोटायनस (इ. स. २०५-७०), पॉर्फिरी (इ.स. सु. २३२-३०४) हाणें पार्मेन्युडीझच्या एकतावादी तत्त्वमीमांसाची फाट पुरवण केली.

रने देकार्त (१५९६-१६५०) ह्या फ्रेंच तत्त्वगिन्यानीन प्रतिभान हो सिध्दांत मांडलो. बुध्दीक वा विवेकशक्तीक घडपी स सत्यदर्शना हीं ताच्या सिध्दांताची बुन्याद. प्रतिभानाचेर आदारिल्ल्या संशयातीत विधानापसून सुरवात करून ताच्यापसून अनिर्वायपणान निष्पन्न जावपी विधानांची पावंड्या पावंड्यार निगमन करप देकार्ताची गिन्यानाची रीत आसली. इंद्रिय अणभवाच्या आदाराच्या ज्ञानापरस विवेक आनी बुध्द हांकां मान्य जाल्लें ज्ञान हें खरेंलें ज्ञान असो विवेकवादी विचार देकार्तान मांडलो.

बारुक्त स्पिनोझा हाच्या मताप्रमाण ईश्वर हें एक द्रव्य आसून हेर सगळ्यो वस्तू ह्या ईश्वर द्रव्यापसून अनिवार्यपणान निर्माण जाल्ल्यो आसतात. हांगा स्पिनोझात ईश्वराक निसर्गाच्या रूपांत पळयल्लो दिसता.

लायप्निटस स्वायत्त द्रव्याची (मॉनॅड)ची कल्पना मांडटा. ईश्वर परस्पर जुळपी अवस्था आशिल्ल्या मॉनॅडची निवड करून तांकां अस्तित्व दिता. दरेक मॉनॅडाक स्वतंत्र अस्तित्व आसतनाच दर एका मॉनॅडाचो संबंद हेर मॉनॅडाकडेन उरिल्ल्यान मॉनॅडाचें विश्व नियमबध्द आसता.

जॉन लॉक (१६३२-१७१४), जॉर्ज बर्क्ली (१६८५-१७५३), डेव्हिड ह्यूम (१७११-७६), इमॅन्युएल कांट (१७२४-१८०४) हांणी अणभववादाची कल्पना मुखार हाडली. अणभव होच सगळ्या प्रमाण ज्ञानाचो उगम आसा आनी कल्पना, वेदनकल्पना (Idea of Sensation) हांचे मार्फत मनीस ज्ञानार्जन करूंक पावता.

योहान गोटलीप फिक्टे (१७६२-१८१४) हो विशयी वा अहम् हेंच एकमेव मूलतत्त्व आसा अशें मानता. ताचो हो अहम्, स्वायत्त आनी क्रियाशील आसा. फ्रीड्रिख व्हिल्हेल्म शेलिंग (१७७५-१८५४) हाणें तत्त्वमीमांसेची व्याख्या करतना एकात्मतेच्या तत्त्वज्ञानाचो पुरस्कार केला. ताच्या मताप्रमाण विशय आनी विशयी, सैम आनी चैतन्य ह्या द्वंद्वां पलतडीं आशिल्लें हें एकात्मतत्त्व आसा. ह्या एकात्मतत्त्वाचे वेगवेगळे आविश्कार म्हळ्यार हीं द्वंद्वां आसात.

निसर्ग विज्ञानाचो उदय आनी विकास जाल्या उपरांत, मनीस धरून सगळ्या विश्वाची एकसंघ अशी व्यवस्था लावपी वैज्ञानीक गिन्यानाचेर आधारिल्ली जडवादी तत्वमीमांसा निर्माण करपाचे यत्न ई. एच्. हेकल (१८३४-१९१९) आनी एल्. बूख्नर (१८२४-९९) हांणी केलो.

हर्बट स्पेन्सर (१८२०-१९०३) हाणें डार्विनाच्या उत्क्रांतीवादाचो संदर्भ घेवन पुराय विश्वाची उत्क्रांती एका अनिर्वाय नेमाक धरून जाता अशें सांगपी तत्त्वमीमांसेचो पुरस्कार करून तिका नितीशास्त्राची जोड दिली.

बर्ट्रंड रसेल (१८७२-१९७०) आनी लूडविग व्हिटगेन्स्टाइन (१८८९-१९५१) हांणी तर्कीक परमाणुवादाचो आदार घेवन आकारीक तर्कशास्त्राची पुनर्रचणूक केली. विश्व म्हळ्यार अनुरूप वस्तुस्थितीचो घोस आसा. अनुरूप वस्तुस्थितीचें तिचे घटक वस्तुस्थितींत विश्लेशण करूंक येना, कारण अनुरूप वस्तुस्थिती ही घटक वस्तुस्थितीपसून निर्माण जाल्ली नासून ती घटकांपसून निर्माण जाल्ली आसता.

– कों. वि. सं. मं.

**तप** : देह, मन आनी इंद्रीय हांकां क्लेश दिवन जें कठीण तें साध्य करून घेवपाचो धर्मीक अधिश्ठान आशिल्लो एक उपाय. तपाची व्याख्या अशी आसा - 'तपति तापयति वा' म्हळ्यार जें तापता वा तापयता तें तप. यज्ञ, दान आनी तप हीं भारतीय संस्कृतीचीं तीन मुखेल आंगां. तपाच्या उज्यांत तापलेबगर मनशाची जीण नितळ जायना आनी कामनांची सिध्दीय तपाबगर जायना अशें सांगलां.

उपास, ध्यानधारणा, इंद्रियांचेर संयम, जप, यात्रा हें सगलें कश्टकारक आचरण करप म्हळ्यार तप. तप हे कल्पनेचो संबंद चतुर्विध पुरुशार्थ आनी चार आश्रम हांचेकडेन आसा. चारूय वेदांनी आनी ब्राह्मण - ग्रंथांत तपाविशीं खूब उणे उल्लेख मेळटात. तपाचो सांठो जितलो व्हड तितली मनशाक उंचेली सुवात प्राप्त जाता अशें अथर्ववेदांत म्हळां.

चड काळ कश्ट सोंसून कसलेंय सत्कर्म करप, असोय तपाचो अर्थ आसा. कसलेंय ज्ञान प्राप्त करून घेवपापासत आत्मशुध्दी करप म्हळ्यारूय तप; ब्रह्मज्ञानाखातीर तपाची गरज पुर्विल्ल्या उपनिषदांनी सांगल्या. देखीक, स्वाध्याय आनी प्रवचन म्हळ्यार तप, अनशन म्हळ्यार तप : दम, शांती, सत्य, अध्ययन, दान, यज्ञ, उपासना म्हळ्यारूय तप, अशें

उपनिषदांनी म्हळां. 'छांदोग्य उपनिषदां' त वानप्रस्थ हो रानांत तप करपाचो आश्रम अशें म्हळां. तपाक लागून ब्रह्माचें ज्ञान मेळटा, तप हेंच ब्रह्म अशें तैत्तिरीय उपनिषदांत म्हळां. भगवद्‌गीतेंत तपाचे कायिक, वाचिक आनी मानसिक तशेंच सात्त्विक, राजस आनी तामस अशे भेद केल्यात. तप ह्या शब्दाचो प्रायश्चीत असोय अर्थ धर्मशास्त्रांत सांगला. तपान म्हळ्यार प्रायश्चितान पाप ना जाता अशें धर्मसुत्रांनी सांगलां. आपापल्या वर्णाश्रमधर्माचें पालन हेंच तप, अशें मनुस्मृतींत म्हळां. पापाचें स्वरूप जशें आसत, तेप्रमाण एका दिसासावन एका वर्सामेरेन तप करचें अशें गौतम धर्मसुत्रांत म्हळां.

व्यासाच्या प्रचंड तपांतल्यान त्या काळांतल्या सगळ्या वाङ्‌मयाचो संग्रह जालो. शिव, बुध्द, नरनारायण, भगीरथ, अर्जून, हांचे जिणेंत तपाचेंच सामर्थ्य दिसता. तीन पिळग्यांच्या तपाउपरांत भगीरथान गंगा पृथ्वीचेर हाडली. पुराणवाङ्‌मयात देव, दानव, मनीस हे सगलेच तप करतना दिसतात. विश्वामित्रान लेगीत खर तप करून 'ब्रह्मर्षी' ही उपाधी मेळयल्ली.

विश्वसृश्टीची रचणूक करपाखातीर भगवान विष्णून ब्रह्मदेवाक उत्पन्न करून ताका तसो आदेश दिलो, पूण सृश्टीची रचणूक कशी करची तेंच ब्रह्मदेवाक समजना जालें. तेखातीर तो भगवंताक शरण गेलो. भगवंतान ताका तप करपाक सांगलें. ताणें शंबर वर्सां कठीण तप करून सृश्ट निर्मिली. शिवाक प्रसन्न करून घेवपापासत पार्वतीन लेगीत तप केल्लें.

तपान असाध्य तें साध्य जाल्ल्यान, सामान्य मनीस लेगीत कामनांचे पुर्तीखातीर आपापले परीन तप करता. एक वा दोनूय हात वयर धरून अखंड उबें रावप, एका पांयाचेर उबें रावप, सतत जागें रावप, मौन धरप, चलत रावप, दंडवत घालीत तीर्थयात्रा करप अशे तरेची खर तपां पयलींच्या काळांत लोक करताले. अन्नाचेर नियंत्रण दवरप हें तपाचें म्हत्वाचें आंग मानताले. तेखातीर कांय तपस्वी फकत उदक पियेवन वा उपाशींच रावताले. आयज लेगीत असले तपस्वी भारताच्या कांय वाठारांनी चड करून तीर्थक्षेत्रांनी, दोंगरी गुहांनी तप करतना दिसतात.

आदल्या जल्मांतलीं कर्मां तप करून नश्ट करचीं अशें बौध्द धर्मांत सांगलां. पूण तप करप बुध्दाक मान्य नाशिल्लें. तपस्येंतले आत्मक्लेश आनी उपास हेसारके देहदंडाचे मार्ग ताका अतिरेकी दिसताले. तपाविशींचो ताचो स्वताचो अणभवूय उरफाटोच आशिल्लो. सुर्वेक ज्ञान मेळोवपापासत ताणें तपाचोच मार्ग आपणायल्लो. पूण खर तप करून ताचो देह हाडकुळो आनी सामको अशक्त जालो. उपरांत ताका दिसलें असल्या आत्मकोशांनी ज्ञान मेळचें ना. हाचेपरस ज्ञानप्राप्तीचो वेगळो असो मार्ग आसूंक जाय असो विचार करून ताणें पयलीं आरोग्य सुदारलें आनी किण्ण सुवातेर चिंतनाचो मार्ग आपणायलो. तातूंतल्यानूच तो बुध्द जालो. नैतिक आचरण, ध्यान आनी अंतर्मूख जावप ह्यो गजाली मनशाक उच्च ध्येयाचेर व्हरतात, अशें बुध्दान संयुक्त निकायांत सांगलां.

जैन धर्मांत मात असल्या शारिरीक क्लेशांक चड म्हत्व दिलां. संचित कर्म नश्ट करप हाका जैन धर्मांत कर्मनिर्जरा अशें म्हळां आनी कर्मनिर्जरेचें मुखेल साधन तप मानलां. जैन धर्मान तपाचे बाह्य आनी अभ्यंतर अशे दोन भेद केल्यात.

ग्रीक लोकांभितर अध्याय आनी तप ह्यो कल्पना घट जाल्ल्यो. ग्रीक क्रिस्तांव (Eastern Orthodox Church) इगर्ज हातुंतूय ह्यो कल्पना आसात. रोमन कॅथॉलीक इगर्ज आनी प्रॉटॅस्टंट इगर्ज हातूंत पापाची कबुली (कन्फॅशन) दिवन तेविशीं पश्चाताप उक्तावन चूक मागप आनी योग्य प्रायश्चीत घेवप, ह्या स्वरूपांत तपाची कल्पना ख्रिस्ती धर्मांत आसा.

– कों. वि. स. मं.

**तबलें :** भारतीय संगितांत साथसंगतीखातीर आनी स्वतंत्र वादनाखातीर उपेगाक पडपी एक तालवाद्यांची जोडी. उजव्या हातान वाजयतात त्या वाद्याक 'तबलें' म्हण्टात आनी दाव्या हातान वाजयतात त्या वाद्याक 'डग्गो' म्हण्टात. डग्याचो उपेग 'खर्ज' आवाज काडपाखातीर आनी तबल्याचो उपेग उंचेलो आवाज काडपाखातीर करतात.

तबलें ह्या वाद्याचें मूळ 'तब्ल' ह्या वाद्यांत आसुंये अशें म्हण्टात. इब्न खुर्दाद बिह ह्या इतिहासकाराच्या मतान ताचे निर्मितीचो मान 'तबल बी लमक' ह्या अरबी कलाकाराक फावता. हें वाद्य मोगलांनी भारतांत हाडलें अशें म्हण्टात. १२९६ ते १३१६ ह्या सुमाराक मृदंग पखवाजावरी 'तींत' (शाई) उपेगांत येतकच तबल्यांत म्हत्वाच्यो सुदारणा जाल्यो. 'ख्याल' आनी टप्प्यासारक्या संगीत रचणुकांवांगडा साथी खातीर ताचे उपेग जावंक लागले. स्वरबध्द गायकी, वादन आनी कथ्थक नाचाक तबल्याच्या ठेक्याची आनी लयेची गरज आसता. तबल्याचें सुदारणेचें श्रेय चडशें अमीर खुसरौक फाव जाता. ह्या वाद्याचो मूळ जनक म्हणून सुधारखाँ धाडी हाचेंय नांव घेतात. पूण ते विशीं फाव तो पुरावो मेळना.

खैर, शिशें, बाभूळ, चींच आदी झाडांच्या लांकडापसून तबलें तयार करतात.



तोंडाकडेन मात्शें अशीर आशिल्लें, नळकांडयेच्या आकाराचें लांकूड घेवन भितल्ले वटेन कोंरातून घेतात. 'डग्गो' तांब्याचो, पितुळचो वा केन्नाय मातयेचो आसून घुमटा आकृतेचो आसता. आनी ताचें तोंड तबल्याच्या आकारापरस रूंद आसता. डग्याच्या आनी तबल्याच्या तोंडार बोकड्याचें चामडें ताणून बसयतात. ह्या चामड्या भोंवतणी दोट्टी देग (चाट) लायतात. ताचेवयर चामड्याचे वादयेची विणिल्ली कड लायतात. ह्या सगळ्यांक मेळून 'पुडी' म्हण्टात. तबल्याच्या आनी डग्याच्या पुड्याच्या मदल्या भागार तींत (लोखणाचो कीस, काळें तींत, भात हांचें मिश्रण) घोंटून वाटंकुळो थर दितात. पुड्यांतल्यान विणिल्ली वादी तळाच्या कड्यांतल्यान तोंडा भोंवतणीं ओडून घेतात. तबल्याचे वादयेंत जे लांकडी फाळके (गठ्ठे) घालतात, ते जाय तेन्ना सकयल - वयर करून आनी विणयेचे कडेचेर तुतयो मारून गायन - वादनाच्या स्वराकडेन ताचो सूर मेळयतात.

वादन शैलीप्रमाण तबल्यांचीं वेगवेगळीं घराणीं थारायल्लीं आसात. तातूंतलें 'दिल्ली' हें पुर्विल्लें घराणें 'बंद बाज' आनी 'खुला बाज' ह्यो ह्या घराण्याच्यो मूळ संकल्पना आसात. 'बंद बाज' वा 'चाँटी का बाज' ह्या प्रकारांत चाट आनी तिंतावयलो आघात स्वतंत्र बोटांनी करतात. दिल्ली, अजराडा, बनारस, हीं ह्या प्रकारांतलीं घराणीं आसात. 'खुला बाज' वा 'पुरब बाज' (दिल्लीचे उदेंतेकडलीं घराणीं) प्रकारांत चाट आनी तींत हांचे मदल्या भागार (लवेचेर) हाताच्या तळव्यान वा बोटां एकठांय हाडून आघात करतात. ताचेर पखवाजाचे वादन शैलीची सया दिसून येता. सणसणीत आवाज हें तार्चे खाशेलेपण. लखनौ, फरूखाबाद, मेरठ आनी पंजाब हीं ह्या प्रकारांतलीं घराणीं आसात.

दिल्ली घराण्याचो उस्ताद नथ्यूखाँ, गामेखाँ, अजराड्याचो उस्ताद हबीब उद्दीनखाँ, लखनौचो वाजिद हुसेनखाँ, फरुखाबादचो उस्ताद मुनीरखाँ, अहमदजान थिरकवा, अमीर हुसेनखाँ, बनारसचो पंडीत रामसहाय, बिरु मिश्र, पंडीत सामताप्रसाद मिश्र, पंजाबचो उस्ताद कादिर बक्ष अशे कांय नामनेचे तबलावादक आसात. अल्लारखाँ ह्या नामनेच्या तबलावादकाचो चलो झाकीर हुसेन खाँ हाणें सद्या तबला वादनांत आंतरराष्ट्रीय नामना मेळयल्या.

हिंदुस्तानी शास्त्रीय संगीत, उपशास्त्रीय संगीताचें साथी वाद्य म्हणून तबल्याचो मुखेलपणान उपेग जाता. तेभायर तबल्याचें स्वतंत्र अशें वाद्य संगीतय जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**तमाशा :** महाराष्ट्रांतलो लोकनाट्याचो एक प्रकार. तमाशा करून दाखयतात तांकां तमासगीर म्हण्टात. तमाशांत सात-आठ कलावंत आसतात. ह्या कलावंतांच्या संचाक फड म्हण्टात. फडाच्या मुखेल्याक सरदार वा नायक म्हण्टात. सरदार म्हळ्यार तमाशांतल्या सगळ्या नाट्यदर्शनाचो मुखेल नायक म्हणजे सूत्रधार आसता. तो तोंडी संवाद - पदां वांगडाच वाद्यां वाजोवपांतूय कुशळ आसता. ताचेबरोबर बायलेचो भेस केल्लो नाचो वा नाची, तशेंच विदुषक, धोलकें आनी तुणतुणें वाजोवपी साथी आनी फाटल्यान उबे रावन 'जी जी, जी ग जी जी र जी' हे लावणींतले सूर ओडपी सुरत्ये वा झीलकरी हे सगले फडांतल्या सरदाराचे सांगाती आसतात.



तमाशाचे खेळ गावांतल्या जात्रांनी, ऊरूच्या वेळार वा होळये सारक्या उत्सवांनी जातात. तमाशाक रंगमाचयेची, पड्ड्यांची वा नेपथ्याची गरज नासता. खंयचेय उंचेले सुवातेर वा मैदानाचेर तमाशा करतात.

तमाशा हें अरबी उतर आसून, प्रेक्षणीय असो ताचो अर्थ जाता. तमाशा संस्थेच्या शिल्पकारांक आशिल्ली 'शाहीर' ही संज्ञा लेगीत मूक शायर वा शाहर ह्या अरबी उतरापसून जाल्या. तमाशा संस्थेचें आनी तिच्या शिल्पकारांचें नांव अरबी आशिल्ल्यान ही संस्था मुसलमानांच्या प्रभावांतल्यान आयल्या अशें कांय विद्वानांचें मत आसा. तमाशाची परंपरा उत्तर पेशवाईच्या काळापरस चड पोरणी आसुंये, अशें तातूंतल्या लावणी वाङ्मयावयल्यान जाणवता. पूण लोकांच्या धर्मीक आनी समाजीक जिणकडेन प्रत्यक्ष संबंद नासून फक्त मनोरंजनाचे नदरेन, पयशे घेवन खेळपी गोंधळ, ललित, दशावतारी खेळ, भेदिकांचे ताफे सारकिले तमाशाच्या सभावाक लागीं पडटात. अशें मनोरंजन करपी लोककला प्रकार हेपयलींच अस्तित्वांत आसुंये अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. पूण चड करून उत्तर पेशवाईंत सवाई माधवराव आनी दुसरो बाजीराव हांचे कारकीर्दींत तमासगीर शाहिरांक राजाश्रय मेळिल्ल्यान तमाशाचो चड उत्कर्श जालो. रामजोशी, अनंत फंदी, होनाजी बाळा, सगनभाऊ, प्रभाकर आनी परशुराम हे मुखेल शाहीर ह्याच काळांत गाजले.

पेशव्यांच्या काळांतल्या तमाशाक धोलकीचो तमाशा अशें म्हण्टाले. कवनां करपी शाहिरूच चड करून तमाशाचो फड काडटालो. त्या काळांत तमाशाचो मुखेल भर नाचगाण्याचेर आशिल्लो. सरदार, सोंगाडी आनी नाचो ह्या तिगांयचेर तमाशाचें येस आदारिल्लें. गण, गौळण, लावण्यो, कवनां आनी मुजरो हीं पेशव्यांच्या काळांतलीं तमाशाचीं पांच आंगां आशिल्लीं. हालींच्या तमाशांनी ह्या पांचूय आंगांवांगडा निमाणें 'वग' नांवाचो नाट्यप्रकार करतात.

**गण :** गण म्हळ्यार गणपतीचीं पदां. तमाशाचो आरंभ गणान जाता. पयलीं धोलकीं आनी तुणतुणें वाजोवपी हेर साथीदारांसयत लोकांमुखार येवन गण गायतात. खुबशा शाहिरांनी गण रचल्यात. गणेशान, गीतरचनेक आनी गीतगायनाक उर्बा दिवची आनी कार्यावळीक यस मेळोवन दिवचें असो ह्या गणगायनाचो हेत आसता.

**गौळण :** गणाउपरांत गौळणी म्हण्टात. गौळणी म्हळ्यार गोपी आनी कृष्ण हांच्या लीलांविशींचीं पदां. अशो गौळणी संतांनीय रचल्यात. तमाशांत ह्यो गौळणी अभिनय करून संवादांसयत गायतात. धंय - दूद घेवन राधा आनी तिच्यो इश्टिणी मथुरेच्या बाजाराक वतना कृष्ण आनी ताचे सांगाती तांकां वाटेंत आडायतात. तांचेकडेन धंय - दूद मागून तांकां सतायतात. उपरांत कृष्णाचो प्रतिनिधी पेंदो आनी राधेची प्रतिनिधी मावशीबाय हांच्या विनोदी संवादांनी हे कार्यावळीक चड रंग चडटा.

**लावण्यो :** गौळणी उपरांत विंगड विंगड प्रकारांची, चड करून

शृंगारीक लावण्यांनी कार्यावळ जाता. ह्यो लावण्यो गायतना नाचो वा नाची लावणेंतल्या आशयाक आपल्या उत्तान अभिनयान उठाव दिता. संगीत लावणेच्या नांवाखाला नाटक - सिनेमांतलीं लोकप्रिय शृंगारीक गितांय गायतात. आयच्या तमाशांत संगीत लावणी, रंगबाजी आनी छक्कड अशोय लावण्यो आसतात. रंगबाजी म्हळ्यार उत्तान शृंगाराचें वर्णन करपी लावणी. त्यो गायतना नाचपी जे तरेचो अभिनय करता. तो उत्तान स्वरूपाचो आसता. छक्कड म्हळ्यार नाट्यगीतांच्या वा जोडगितांच्या स्वरूपाची लावणी. पठ्ठे बापूराव हाणें अशी छक्कड रचना खूब केल्या.

**वग :** वग म्हळ्यार एके तरेचें नाटकूच. हालींच्या तमाशांनी वग हें तमाशाचें मुखेल आंग जावन रावलां. चड करून वगाचे सुरवातीची भूमिका सांगपाखातीर खाशेली लावणीय आसता. अशी ही लावणी निवेदना भाशेन वापरतात. वगांतले कांय संवाद गद्यांत आनी कांय संवाद पद्यांत आसतात. ह्या गद्य संवादांक 'बतावणी' वा 'सपातनी' म्हण्टात. ह्या वग नाट्याचो आरंभ एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत जालो. इ. स. १८६५ वर्सा उमाजी सावळजकर आनी ताचो सांगाती बाबाजी मांग हांणी 'मोहना - बटाव' हो पयलो वग रचलो. उपरांत पठ्ठे बापुरावाच्या 'मिठ्ठाराणी' ह्या वगाक खूब नामना मेळ्ळी. तांचे उपरांत अर्जुना वाघोलीकर, दगडू साळी, भाऊ फक्कड, उत्तमराव मोहित हांच्याय वगांक खूब नामना मेळ्ळी. स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांतल्या तमाशाक लोकनाट्याची प्रतिश्ठा लाबली. पु. ल. देशपांडे, ग. दि. माडगूळकर, व्यंकटेश माडगूळकर, शंकर पाटील, वसंत बापट, वसंत सबनीस, ह्या नामनेच्या साहित्यिकांनी वगनाट्यां बरयल्यांत. ह्या आधुनीक वगांनी, चालंत समाजीक - राजकीय वेवस्थेचेर व्यंगात्मक टिका केल्ली दिसता.

**मुजरो :** नाटकांतल्या भरतवाक्या भाशेन, मुजरो हो तमाशाच्या निमाणो गायतात. हातूंत विंगड विंगड शाहिरांक तशेंच साधू, संत, अवलिये, बैरागी हांकां वंदन करून तांचो आशिर्वाद मागतात. हालीं हो मुजऱ्याचो प्रकार बंद जाला. पूण १९२० उपरांत ह्या मुजऱ्याचेर नाटकांतले नांदीचो प्रभाव पडून तो तमाशाचे सुरवातीक म्हणपाक लागले. तेखातीर पयली गण आनी उपरांत मानकऱ्यांक मानाचो मुजरो करपाची चाल सुरू जाली.

**संगीतबारी :** उत्तर हिंदुस्थानी जलशाचे पद्दतीचो एक नवो प्रकार, १९३० उपरांतच्या काळांत विदर्भ मराठवाड्यांतल्यान येवन तमाशांत भरसलो. ह्या नव्या प्रकाराचें नांव 'संगीतबारी'. मुळांत हो तमाशा नासून दोंबारणी - कोल्हाटणी हांचो नाच. तबलें, पेटी, वारांवाचो त्रिकोण ह्या वाद्यांचे साथीचेर पोरण्यो - नव्यो लावण्यो, पदां आनी हालींच्या सिनेमांतलीं पदां नाचून गावप, अशें हे संगीतबारीचें मूळ स्वरूप. धोलकीबारींत वग आनी नाट्य म्हत्वाचें आसून, संगीतबारींत नाच आनी मादक लावणी गायनाक म्हत्व आसता. संगीतबारीचें मूळ उत्तर हिंदुस्थानांतले दरबारी नर्तिकेचे प्रथेंत आशिल्ल्यान, विदर्भ, मराठवाड्यांत तिका चड नामना आसा. थंय संगीतबारीक 'संगीत जलसा' ह्या नांवानूय पाचारतात. कौसल्या कोपरगावकर, लीला आनी कला येवलेकर, हिरा सातारकर, शेवंती जेजुरीकर, यमुना वाईकर, अनुसया कवठेकर, छबू नगरकर, कमल आनी सुलोचना पातुर्डेकर हांच्या संगीतवाऱ्यांक खूब नामना मेळ्ळ्या.

तमाशांत दौलतजादा नांवाचो अश्लील असो एक प्रकार आशिल्लो. दौलतजादा म्हळ्यार तमाशा पळोवपी लोकांमदलो कोणूय एक मनीस हातांत पयशाचें एकाद्रें नाणें घेवन तें नाचीक दिवपाक येवप आनी तें घेवपापसत ती मुखार येतकच तिच्या खंयच्याय आंगाक हात लावन, आपली आवडीची लावणी म्हणपाक लावप. अशे तरेच्या प्रकारांक लागून स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत तमाशाचेर बंदी घाली. पूण लोकनाट्यांतली गोडसाण आनी बळगें हांचेर विचार करून मुंबय सरकारान १९४८ वर्सा 'तमाशा सुदार समिती'ची स्थापणूक केली. हे समितीवतीन तमाशांतल्या अश्लील चाळ्यांक आळो घालून, तातूंत सुदारणां घडोवन हाडपाचें थारायलें. उपरांत १९५५ वर्सा 'महाराष्ट्र तमाशा परिशद' ही संस्था स्थापन केली. तमाशाचो उपेग समाजीक आनी राजकीय प्रचाराखातीर जावपाक लागलो. दर वर्सा तमाशा महोत्सव आयोजीत करून, शासनान तमाशा कलावंतांक खूब प्रोत्साहन दिलें. २५ - २६ जून १९५५ ह्या दिसा पुण्याक महाराष्ट्र तमाशा परिशदेचें पयलें अधिवेशन भरलें. १९५६ वर्सा दुसरें अधिवेशन, १९५७ वर्सा तिसरें आनी १९५८ वर्सा चवथें अधिवेशन अशीं दर वर्सा परिशदेचीं अधिवेशनां जायत रावलीं. पूण १९५८ वर्साच मुंबयच्या कांय तमाशाफड मालकांनी आपली एक वेगळी संघटणा करून 'मुंबय राज्य तमाशा परिशद' स्थापन केली. पूण एकाच राज्यांत दोन परिशदो आसप योग्य न्हय ह्या विचारान, त्या काळांतलो मंत्री नाशिकराव तिरपुडे हाणें दोनय परिशदांतल्या कार्यकर्त्यांक एकठांय हाडून 'मराठी तमाशा परिशदे'ची स्थापणूक केली. राज्य शासनान १९५७ वर्सासावन मुंबय राज्य तमाशा महोत्सव सुरू करून तमाशा सर्तीय आयोजीत केल्यो. तमाशाच्या खेळाखातीर 'बी' थिएटर चलोवपाक परवाने दिले. तमाशाच्या खेळावयलो करमणूक कर माफ केलो. नामनेच्या तमाशा कलाकारांक राष्ट्रपतीपदक दिवन भोवमान केलो. भाऊ बापू (मांग) नारायणगावकर आनी दादू इंदुरीकर हे १९६१ आनी १९७४ वर्सा हो मान मेळिल्ले दोन मानकरी. शासनावतीन दर वर्सा तमाशा कलाकारांक मानधन मेळपाक लागलें. हालीं महाराष्ट्र शासनावतीन तमाशा प्रशिक्षण शिबिरां घेतात.

तमाशा ह्या विशयाचेर मराठी सिनेमा काडप जालां. तशें हेर मराठी सिनेमांनीय तमाशा हो लोकनाट्य प्रकार दाखयतात. कांय मराठी सिनेमा तमाशाप्रमाण आसून तातूंत ह्या लोकनाट्याचो खुबूच प्रमाणांत आस्पाव जाल्लो दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

## तमीळनाडू :

भारतीय द्विपकल्पाच्या आग्नेय वाठारांतलें राज्य. नाडू म्हळ्यार देश. तमीळ भास उलोवप्यांचो देश म्हणून ह्या वाठाराक तमीळनाडू म्हणूंक लागले. राज्याचो आवांठ १,३०,०५८ चौ. किमी. लोकसंख्या ५,५६,३८,३१८ (१९९१). विस्तार ८°४' उत्तर ते १३°५०' उत्तर आनी ७६° उदेंत ते ८०°२१' उदेंत. राज्याचे अस्तंतेक केरळ राज्य, उत्तरेक आंध्र प्रदेश आनी कर्नाटक राज्य, उदेंतेक बंगालचो उपसागर आनी दक्षिणेक हिंदी महासागर आसा.

**भूंयवर्णन :** राज्याचे, उदेंतेकडलो मैदानी प्रदेश आनी अस्तंतेचो पठारी, दोंगराळ प्रदेश अशे दोन भाग पडटात. राज्याचे उदेंतेकडली दर्यादेग बरीच लांब आसा. पूण त्या मानान बंदरां मात थोडींच आसात. मद्रासाची नामनेची मरीना वेळ हांगाच आसा. महाबलीपुर, तंजावरचो कांय वाठार समुद्रांत बुडिल्ल्याचो पुरावो मेळटा. थोड्या वाठारांनी न्हंयच्या तोंडाचेर रेंवेच्यो वणटी तयार जाल्ल्यो दिसतात. रामेश्वर द्वीप हें ताचेंच

उदाहरण. मानारचें आखात आनी पाल्कची सामुद्रधुनी हांचेभितर ल्हान ल्हान द्विपां तयार जाल्यांत. धनुष्यकोडी आनी श्रीलंकेचें तलाई मानार हांकां जोडपी शेकानशेन फातरांची रांक, म्हळ्यारूच रामाचो सेतू. ताका ॲडम्स ब्रीज अशेंय नांव आसा. रामनाथपुरम् आनी तिरुनेलवेली जिल्ह्यांनी सु. ३० ते ६५ मी. उंचायेचे ल्हान रेंवेचे दोंगर जाल्ले दिश्टी पडटात, जांकां 'तेरी' म्हण्टात.

मी.), कलरायन आनी पछिमलई ह्यो दोंगुल्ल्यो आसात. पलनी दोंगुल्लेचे उदेंतेक वैगईच्या दोनूय वटांनी आंदीपट्टी आनी वरुषनाड ह्यो दोंगुल्ल्यो आसात.

**जमीन :** तमीळनाडूच्या मैदानी वाठाराचो चडसो भाग न्हंयांनी व्हांवून हाडिल्ल्या गाळान तयार जाला. कावेरी न्हंयेच्या त्रिभुज प्रदेशांतली जमीन सुपीक गाळाची. उत्तर भागांत रेंव आनी गाळ भरशिल्ली लोम




**न्हंयो :** अस्तंतेकडल्या दोंगराळ वाठारांतल्यान आयिल्ल्यो पालार, पोन्नाइय्यार (पेन्नार), कावेरी, वैगई आनी ताम्रपर्णी ह्यो मुखेल न्हंयो मैदानी वाठारांतल्यान उदेंतेकडेन व्हांवतात. तेभायर चेयूर, मोयार, भवानी, अमरावती, चित्तार, नोयिल, कूम, कोट्टेलियार आदी न्हंयो ह्या राज्यांत आसात आनी तांचेर येरादारी चलता. पुलिकत तळ्याचो दक्षिण वाठार ह्या राज्यांत येता.

**दोंगर :** तमिळनाडूचे अस्तंत शिमेचेर उत्तरेक निलगिरी पर्वत आसा. निलगिरीची दोडाबेट्टा तेंगशी २६३७ मी. उंचायेची आसा. हांगा पालघाट, अन्नमलाई, एलाचल हे दोंगर आसून पलनी दोंगुल्ल्यो हो तातूंतलोच एक उदेंतेकडलो फांटो तेभायर जावाडीं (१,१६० मी.), शेवराय (१६४७

प्रकाराची माती मेळटा. राज्याच्या मदल्या वाठारांत तांबडी माती मेळटा. मदुराई, रामनाथपुरम् आनी तिरुनेलवेली जिल्ह्यांनी काळी माती जाल्यार चिंगलपुट, तंजावर आदी वाठारांनी लॅटरायट - जांभा फातराची माती मेळटा.

**हवामान :** विषुववृत्तापसून फकत सुमार ८८० ते १,५५० किमी. पयस आशिल्ल्या वाठारांत हवामान उश्ण आसता. गिमांत, मे म्हयन्यांत, सरासरी तापमान २१° सॅ. आसता आनी चडांत चड ४३° सॅ. मेरेन जाता. शियांत जानेवारी म्हयन्यांत सरासरी तापमान २४° सॅ. आनी उण्यांत उणें १८° सॅ. आसता.

वर्साक पावस सरासरी ७० सेंमी. ते १५० सेंमी. आसता. ह्या

दर्यादेगेवयल्या वाठारांत ऑक्टोबर, नोव्हेंबर आनी डिसेंबर म्हयन्यांनी पावस चड पडटा. एप्रील आनी मे म्हयन्यांनीय थोडो पावस पडटा. तेन्नाच आंबे तयार जातात, देखून ह्या पावसाक 'आंब्यां पावस' म्हण्टात. दोंगराळ प्रदेशांत चड करून निलगिरी दोंगराच्या वाठारांत १०० ते २०० सेमी. परसय चड पावस पडटा. तमिळनाडू दोंगराचेर ८० सेमी. जाल्यार पालघाट दरये लागसारच्या प्रदेशांत १२० सेमि. पावस पडटा. रामनाथपुरम् आनी तिरुनेलवेली ह्या जिल्ह्यांनी पावसाचें प्रमाण सामकें उणें आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** १९८० - ८१ वर्सा राज्यांत २१,८९,१९१ चौ. किमी. इतलो वाठार रानाखाला आशिल्लो. हांगाच्या दोंगराळ वाठारांत अटंग रानां आसात. सायल, रोझवूड, निलगिरी आनी चंदनाचे रूख हांगा चड आसात. कोईमत्तूर आनी निलगिरी दोंगराळ वाठारांत सायलाचीं दाट रानां आनी कोंडयांच्यो आळी आसात. हाचेभायर नेली, एली, अगस्ती, माड, सुपारी, ताड, आंबो, पणस, वड, पिंपळ आदी झाडां राज्यांत आसात. दर्यादेगेवयल्या वाठारांनी माड आनी ताडाचीं झाडां आसात. कांयकडेन बाभळ आनी कांटेरी वनस्पतूय मेळटा.

रानांत हत्ती, गवो, हरण, बिबटो वाग, वांस्वेल, रानदुकर, सांबर असलीं रानटी जनावरां आसात. तांचेखातीर मदुमलयाक अभयारण्य राखून दवरलां. तशेंच कावेरी त्रिभूज वाठारांत कॅलिमियराक पाणसुकण्यांक रावपाक खाशेली सोय केल्या. थंय स्थलांतर करपी हंसक पक्षी येतात. गिंडी हांगाच्या राजभवनांत काळवीट, चितळ आनी हेर जनावरांखातीर खाशेली सुवात केल्या. पुलिकत तळ्यांत स्थलांतर करपी हंसक, बकीं, बदकां, करकोच आदी सुकणीं पळोवंक मेळटात. थंय धवो आयबॅक्स, क्राक, स्पूनबिल, उकते चोंचीचो बलाक, पाणबुडो, बगळो, पाणकावळो आदी सवणी मेळटात. तेभायर हेर भारतीय मोनजात हांगा आसा.

**इतिहास :** धर्तरेवयली ही पोरण्यांत पोरणी भूंय अशें मानतात. इतिहासकारांच्या मतान मनीस संस्कृतायेचो जल्म हांगाच जाला आसूंक जाय. पोरण्यांतले पोरणे इतिहासीक अवशेश हांगा मेळटात. इ. स. आदीं ३,००,००० वर्सांपयलीं हांगा मनशांची वस्ती आशिल्ली आनी ते फातरांचीं आयुधां वापरताले. त्या काळांत तेन्ना हातकुराड संस्कृती आशिल्ली अशें रॉबर्ट ब्रूस फूट ह्या संशोधकाचें मत आसा. इ. स. आदीं ८००० च्या सुमाराक हांगाचो मनीस बरोच सुदारिल्लो आनी तो धान्य पिकयतालो. इ. स. आदीं १००० वर्सांच्या सुमाराक आर्य दक्षिणेंत आयले अशें म्हण्टात. रामायण आनी महाभारत ह्या काळांत मदुराईंत पांड्यांचें राज्य आशिल्लें अशेंय मत आसा. अगस्त्य ऋषीक तमीळ साहित्यांत खूब मान आसा. दक्षिणेक वेळ्ळूर न्हंयेमेरेन पांड्य घराण्याचें राज्य आशिल्लें. उत्तरेक चोल घराण्याचें आनी अस्तंतेक चेर घराण्याचें राज्य आशिल्लें. हीं तिनूय द्रवीड घराणीं आशिल्लीं.

पयल्या ते तिसऱ्या शतमानांत १९०त करिकाल ह्या चोल राजान आपलें राज्य वाडयलें आनी तोंडमंडलम् हो प्रदेश घेतलो. तेचपरी पांड्य आनी चेर राजांक हारयले. तिसऱ्या शतमानामेरेन चोल, चेर आनी पांड्य राज्यां गिरेस्त आशिल्लीं. तेन्नाच पल्लव घराण्यान कांजीवरमाक राज्याची स्थापणूक केली. कांय पल्लव राजांक विद्या आनी शिल्पकलेची आवड आशिल्ली आनी ते सगळ्या धर्मांच्या लोकांविशीं आदर बाळगिताले. सव्या शतमानांत कळभ्र जमातींतल्या अच्युतविक्कन्त आनी उपरांत कुरुवन ह्या राजांनी सत्तेर येतकच पल्लवांची राजसत्ता ना केली. ह्या राजांनी हिंदूंची देवळां लेगीत नश्ट केलीं. फुडें पांड्य, पल्लव आनी बादामीचो चालुक्य हांणी परतो राज्यकारभार जाग्यार हाडलो. मागीर तमीळ प्रदेश पांड्य आनी पल्लव घराण्यांभितर वांटून गेलो. पल्लव राजांनी संगीत, चित्रकला, स्थापत्यकला हातूंत खूब वाड केली. महाबलीपूर आनी कांजीवरम् हीं देवळां त्याच काळांतलीं आसात. ह्या राजांची सत्ता ८१५ मेरेन आशिल्ली.

चोल राजा आदित्य पयलो हाणें पल्लव राजा अपराजित हाका हारोवन दक्षिण अर्काटचो प्रदेश चोल सत्येखाल घेतलो. पयलो परांतक हाणें (९०७ - ९५५) चोल राज्याचो विस्तार केलो. ताणें पांड्य राजाक हारोवन मदुराईचें राज्य हस्तगत केलें. राष्ट्रकुट तिसरो कृष्ण हाणें चोल राजाक हारयलो (९४९). पूण ताच्या मरणाउपरांत राज्याक घटसाण नाशिल्ली. मागीर चोल राजांनी राष्ट्रकुट आनी पांड्य राजांक हारोवन तांचे प्रदेश परत जिखून घेतले. पांड्य राज्य चोल राज्याक जोडटकच पयलो राजराजान गंगासावन म्हैसूर आनी बेल्लारी आनी चालुक्याकडल्यान कांय प्रदेश जिखून घेतलें आनी चोल राज्य घट केलें. ताणें चेर नावीक दलाक हारयले आनी श्रीलंकेचो उत्तरेकडलो वाठार मालदीव जुंवे जिखून घेतले. ताणेंच तंजावरचें बृहदीश्वर देवूळ बांदलें. पयलो राजराज हाचे कारकीर्दीसावन तमीळ प्रदेशाचो खरो इतिहास सुरू जालो. १२७९ मेरेन तमीळनाडूचेर चोल राजांची सत्ता आशिल्ली. १२५८त सुंदर पांड्य हाणें चोल राजाक आनी १२६४त होयसळ राजांक हारयले. पांड्य राजांभितर राजा जटावर्मन सुंदर पांड्य आनी ताचो पूत मारवर्मन कुलशेखर हांणी पांड्य राज्याचो विस्तार केलो. उपरांत कुलशेखरच्या पुतांमदीं राज्याखातीर झगडीं जालीं. तातूंत सुंदर पांड्य राजान दिल्लीच्या मलीक काफूराचो पालव घेतलो. मलीक काफूरान दक्षिणेकडचीं शारां लुटलीं. कांय वर्सांनी घियासुद्दीन तुघलकाचो पूत मुहम्मद बीन तुघलक हाणें घुरी घालून मदुराईंत मुसलमानांचें राज्य स्थापलें. १३३४ ते १३७८ मेरेन मदुराईंत मुसलमानांचें राज्य आशिल्लें. ह्या काळांत हिंदूंचो खूब तरांनी छळ जालो. देवळांचो विध्वंस जालो. ह्या वेळार पांड्य राजांनी सुलतानाक विरोध करपाचो अयशस्वी यत्न केलो. चवदाव्या शेंकड्यांत तमीळ देशाचे उत्तरेकडल्या प्रदेशांत पांड्यांचें राज्य आशिल्लें. सुलतानाची सत्ता चालू आसतनाच विजयनगरच्या हिंदू राज्याची स्थापना जाली. बुक्करायाचो पूत कुमार कंपन हाणें १३७० त सुलतानाक हारयलो. १३७८त मदुराई प्रदेश विजयनगर राज्याक जोडलो. दुसऱ्या हरिहरच्या राज्यांत विजयनगरचें राज्य दक्षिण हिंदुस्थानांत बरेंच पातळिल्लें.

१५६५त तालिकोटच्या झुजांत विजयनगरची हार जाली आनी जिंजी, तंजावर, मदुराई हांगाच्या नायक राजांनी आपल्या स्वतंत्र अस्तित्वाची घोशणा केली. उपरांत नायक राजांभितर सदांच झुजां जातालीं. १६६२त मदुराईच्या चोक्कनाथान तंजावरच्या विजयराघव नायकाक हारयलो. फुडें विजयराघवाच्या पुताक गादयेर बसोवपाखातीर ताच्या वांगड्यांनी सुलतानाचो आदार घेतलो. ताचेपयलीं शहाजी दक्षिणेंत गेल्लो आनी ताणें तुंगभद्रेचे दक्षिणेकडलो वाठार हस्तगत केलो. फुडें तंजावरच्या अळगिरीक धावंडावपाक आदिलशाही सुलतानान शिवाजीचो भाव व्यंकोजी हाका धाडलो. ताणें तंजावरचो किल्लो घेतलो आनी सुलतान मरतकच ताचें राज्य हस्तगत केलें (१६७६). १६७७त शिवाजीन

कर्नाटकांत घुरी घाली आनी जिंजी तशेंच ताचे भोंवतणचो वाठार घेतलो. १६९८ मेरेन हो वाठार मराठ्यांकडेन आशिल्लो. १६९८त मोगलांनी जिंजी आनी भोंवतणचो वाठार घेतलो. हांगाचो कारभार अर्काटचो नबाब पळेतालो. १७४०त मराठ्यांनी कर्नाटकाचेर घुरी घाली. तांणी चंदासाहेबाक अटक केली. पूण १७४३त निजामुल्मुल्क हाणें घुरी घाली आनी ताणें अन्वरुद्दीन खानाक अर्काटचो नवाब केलो. १७४४त नबाबाच्या जाग्याखातीर मुहम्मद अली आनी चंदासाहेब हांचेमदीं वाद जावंक लागलो. ताचो फायदो चेन्नईचे देगेर वसाहत करून राविल्ल्या इंग्लीश आनी फ्रॅंच लोकांनी घेतलो आनी तांचेमदीं दोन झुजां जालीं. १७४४ ते १७४८ काळांत चालू आशिल्लें कर्नाटकाचें झूज युरोपांत १७४८त जाल्ल्या एक्स-ला-शपेलचे कबलातीन थांबलें आनी मद्रास इंग्लिशांकडेन गेलें. उपरांत १७४९त सुरू जाल्लें दुसरें झूज १७५४त थांबलें आनी १७६३त पॅरीसाक जाल्ले कबलातीन फकत पाँडिचेरी फ्रॅंचांक मेळ्ळी. फुडें इंग्लीश, हैदर अली आनी टिपू हांचेभितर जाल्ल्या झुजांत इंग्लिशांनी कर्नाटकाचो प्रदेश हस्तगत केलो. १८५५ मेरेन इंग्लिशांनी आपलो शेक सगळेकडेन पातळायलो.

तमीळनाडूंत भारताच्या स्वातंत्र्याखातीर सुर्वेक होमरूल चळवळ जाली आनी उपरांत राजकी आंदोलनां जावंक सुरवात जाली. हे चळवळींत सगल्या लोकांनी वांटो घेतिल्लो. ब्रिटीश सरकाराआड सगळ्या रयतांनीं बंड केल्लें. २०व्या शतमानांत हांगा लोकमान्य टिळक आनी महात्मा गांधीन सुटकेखातीर चळवळ सुरू केल्ली.

**राज्यवेवस्था :** ब्रिटीशांच्या काळांत मद्रास प्रेसिडॅन्सी ह्या नांवान वळखतल्या मद्रास प्रदेशांत केरळ, कर्नाटक आनी आंध्र प्रदेश ह्या राज्यांतले प्रदेश आसपावताले. पूण स्वतंत्रताय मेळटकूच आंध्रांत भाशेप्रमाण प्रदेश जावंचे म्हणून चळवळ सुरू जाली. पोट्टी श्रीरामलू हाणें आमरण उपास सुरू केलो आनी १९५३त आंध्र राज्य मद्रासापसून वेगळें जालें. १९५६ कायदयाप्रमाण भोंवतणच्या तीन राज्यांतले तमीळ भास उलोवपी वाठार एकठांय करून मद्रास राज्य स्थापन जालें. फुडें १४ जानेवारी १९६९ दिसा ताचें तमीळनाडू अशें नांव दवरलें.

भारतीय संघराज्याचें तमिळनाडू हें एक घटक राज्य. राश्ट्रपती राज्यपाल नेमता आनी ताची मान्यताय घेवन मंत्रीमंडळाच्या पालवान मुख्यमंत्री राज्यकारभार पळेता. मंत्रीमंडळ विधीमंडळाक जापसालदार आसता. विधीमंडळाचे दोन भाग आसतात. विधानसभेचे २३५ वांगडी आसतात आनी विधानपरिशदेचे ६२ वांगडी आसतात. राज्यांतल्यान लोकसभेचे ३९ आनी राज्यसभेचे १८ खासदार वेंचतात. तमीळनाडूंत द्रवीड कळघम, द्रवीड मुन्नेत्र कळघम, अण्णा द्रवीड मुनेत्रा कळघम कम्युनिस्ट, फॉरवर्ड ब्लॉक अशे जायते राजकी पक्ष आसात.

राज्यकारभार सुरळीत चलपाखातीर राज्याचे १४ म्हाल केल्यात. १९७४त पुदुकोट्टई ह्या आनीक एका म्हालाची निर्मिती जाली. राज्यांत ८४ नगरपालिका आनी एक म्हानगरपालिका आसा. सद्या त्रिसुत्र पंचायत पद्दत चालू केल्या. मद्रास ही तमीळनाडूची राजधानी आसून तमीळ ही ताची राज्यकारभाराची भास.

**अर्थीक स्थिती :** राज्यांतले वट्ट जमनींतली ४९% जमीन पिकावळीखाल आसा. शेतवडीचे नदरेन हांगा जाय तितलो पावस पडनाशिल्ल्यान शेतकी पिकावळीखाल आशिल्ले ४१% जमनीक उदकापुरवण करतात. वर्सांतल्यान रब्बी आनी खरीप हीं भाताचीं दोन पिकां काडटात. तंजावर, चिंगलपुट आनी दक्षिण अर्काट ह्या म्हालांत चड प्रमाणांत शेतीचें पीक काडटात. तांदूळ, कापूस, तंबाकू, ऊंस, भिकणां आनी काफी हीं हांगाचीं मुखेल पिकां आसून हांगा भरड धान्यांय जातात. कोईमुत्तूराक भारत सरकारान ऊंस संशोधन केंद्राची स्थापना केल्या. उदका पुरवणेखाल आशिल्ल्या भागांत मद्रास, द. अर्काट, तिरुनेलवेली आनी कोईमुत्तूराक ऊसाचें पीक चड काडटात. तंबाकू हें हांगाचें नगदी पीक. सिगरेट तयार करपाखातीर उच्च प्रतीचो तंबाकू हांगा पिकयतात. कोईमुत्तूर, मदुराई आनी तिरुचिरापल्ली ह्या म्हालांनी तंबाकूचें पीक चड येता. बेदसिंदूराक सिगरेट आनी चिरूट करपाचो कारखानो आसा. कापसाच्या उत्पादनांत हें म्हत्वाचें राज्य मानतात. उच्च प्रतीचो कापूस हांगा पिकता. रामनाथपुरम्, मदुराई, सेलम,. तिरुनेलवेली आनी तिरुचिरापल्ली ह्या म्हालांत कापसाचें पीक चड काडटात. दोंगराळ भागांत निलगिरी पर्वताची काफयेच्या मळ्यांखातीर नामना आसा. हांगा च्या, रबर हांचेंय उत्पादन काडटात. तेलबियो लागवडीखाल जितली जमीन येता तातूंतले ५% जमनींत तिळांची लागवड करतात. तर ८४% जमीन भिकणांचे लागवडीखाल येता. तेभायर ज्वारी, बाजरी, हरभरो, सांसवां,. गोड, मिरसांगो, सूंठ, हळद, केळी, वेलदोडे, सुपारी हांचेंय पीक म्हत्वाचें आसा. हांगा बरे जातीच्यो गायो आनी बैल मेळटात. हांगाचे बारगुर आनी कोंगायम बैल फामाद आसात. मुऱ्हा जातीच्यो म्हशी पैदास करपाचें केंद्र अलमढी गांवांत स्थापन जालां. दूद वेवसायाखातीर कोईमुत्तूर, कोडईकानल, मदुराई, चेन्नई, कन्याकुमारी, तिरुचिरापल्ली, तंजावर आनी चिदंबरम् हांगा केंद्रां स्थापन जाल्यांत. मद्रासाक पशुवैद्यक म्हाविद्यालय आसा.

राज्यांत जाय तितलो पावस पडनाशिल्ल्यान न्हंयो आनी तळीं हांचो उदका पुरवणेखातीर वापर करतात. पयलींच्या काळांत न्हंयेचेर बांदारे बांदताले. हांगाचीं मनशान बांदिल्लीं तळीं खाशेलीं. राज्यांत चडशी खारजांवरवीं उदका पुरवण जाता. तेखातीर मेत्तूर धरण येवजण, पेरियार बांद येवजण, लोअर भवानी येवजणअशो येवजण्यो आंखल्यात.

**खनीजसंपत्ती :** राज्यांत जायत्या प्रकारचे खनीज पदार्थ मेळटात. मॅग्नेसायटच्या उत्पादनांत भारतांत ह्या राज्याचो पयलो नंबर लागता आनी ताचें एकूण ९०% उत्पन्न तमीळनाडूंतल्यान मेळटा. सेलम म्हालांत उच्च प्रतीचें मॅग्नेसायट तशेंच लोखण धातूचे सांठेय खूब आसात. तिरुचिरापल्ली, द. अर्काट, निलगिरी, एरोड ह्या भागांत लोहधातू खूब मेळटा. जिप्समच्या उत्पादनांत भारतांत ह्या राज्याक म्हत्व आसा. कोईमुत्तूर, तिरुनेलवेली, तिरुचिरापल्ली हे जिल्हे ह्या उत्पादनांत म्हत्वाचे आसात. राज्याचे उदेंत दर्यादेगेचेर मीठ तयार करपाचो वेवसाय चलता. मिठाचें वर्साक सरासरी उत्पन्न ७ लाख टन इतलें आसा. सेलम जिल्ह्यांत बॉक्सायट, तिरुचिलावल्लीक फॉस्फेट, नेयवेलीक कोळशाचे सांठे खूब आसात. तेभायर हांगा क्रोमायट, फॅल्डस्पार, क्वॉर्ट्झ, डॉलोमायट, वैदुर्य, कुरविंद, जस्त, अभ्रक, भांगर, ग्राफायट, पायरायट, स्टिअरायट आदी खनिजां कांय प्रमाणांत मेळटात. दर्याचे देगेर रेंवेंत मोनाझायट हें अणुशक्तीक उपेगी पडपी खनीज मेळटा. महावलकुरिचे लागसल्ले रेंवेंत इल्मॅनायट हें खनीज मेळटा.

जलवीज शक्तीच्या उत्पादनांत ह्या राज्याचो देशांत दुसरो क्रमांक लागता. राज्यांत जलवीज शक्त निर्माण करपी १७ केंद्रां आसात, तर औशिणक शक्त निर्माण करपी ३ केंद्रां आसात. चिंगलपुट म्हालांत

कल्पकमाक आण्वीक शक्ती निर्माण करपी केंद्र आसा.

राज्याक १,००० किमी. दर्यादेग आसा आनी दर्यादेगे वाठारांत नुस्त्या वेवसायाक चड म्हत्व आसा. हांगा नुस्तें मारपी ४०२ गांव आसात. नुस्तें राखून दवरपी थंड घरां आनी प्रशिक्षण केंद्रां आसात.

राज्यांत जायते उद्देग चलतात. तातूंत सुती वस्त्र, साकर, शिमीट आनी यंत्रीक हे मुखेल उद्देग आसात. राज्यांत साबार लुगटा गिरण्यो आसात. कोईमुत्तूर, मद्रास आनी मदुराईक गिरण्यो चड आसात. हांगाचें हातमागावयलें लुगट प्रसिद्ध आसा. मद्रासाक कृत्रीम धागे तयार करतात. कोईमुत्तूर, सेलम, निलगिरी, तिरुनेलवेलीक रेस्माचें उत्पादन करतात. उत्तर अर्काट, द. अर्काट, तिरुचिरापल्ली आनी मदुराई हांगा साकर कारखाने आसात. सद्या सुमार ४,७९,१६५ मॅ. टन साकर तयार जाता. देशांत शिमीट तयार करपाक तमीळनाडूचो दुसरो क्रमांक लागता. कोईमुत्तूर, मदुक्कराई, तिरुचिरापल्ली, तिरुनेलवेली ह्या नगरांनी शिमीटाचे कारखाने आसात. रामनाथपुरम्, चिंगलपुट, तिरुनेलवेली आनी उत्तर अर्काटाक फस्कांचे कारखाने आसात. तेभायर चेन्नई , कोईमुत्तूर आनी मदुराईक लां कापड, कोईमुत्तूराक कवंची, चेन्नई आनी सेलमाक वनस्पती तूप, मेत्तूर आनी चेन्नईक रसायनीक पदार्थ, मद्रासाक मोटार गाडयो आनी कोईमुत्तूराक साकर तयार करपाचे कारखाने आसात. तशेंच सारी, चिरूट, सिगरेट, रबर, चामड्या उद्देग, कागद, कापड गिरण्यांचीं यंत्रां, पंप, ट्रॅक्टर, टायर, ट्यूब, विटो, नळे, रेशीम हेय उद्देग वाडत आसात. हेभायर सार्वजनीक क्षेत्रांत नेयवेली लिग्नायट, इंटीग्रल कवंची फॅक्टरी, हाय प्रॅशर बॉयलर प्लांट, हिंदुस्थान फोटो फिल्म कारखानो, हिंदुस्थान टेलिप्रिंटर्स, मद्रास रिफायनरीस, मद्रास फर्टिलायझर्स, जड वाहनां, संरक्षण सामग्री, शस्त्रक्रिया उपकरण कारखानो, सेलम स्टील प्लांट असले जायते कारखाने थंय आसात. ह्या राज्यांतल्यान चामड्या सामान, सुती कापड, सूत, च्या, काफी, मसाले, मोटार आदी वस्तू निर्यात जातात.

**पर्यटन :** राज्यांत इतिहासीक, धर्मीक, शिक्षणीक, उद्देगीक तशेंच सैमीक स्थळां खूब आशिल्ल्यान पर्यटनाक खूब म्हत्व आसा. हांगा कितलींशींच देवळां आनी गोपुरां आसात. पल्लव काळावयलें कांचीपुरम् हांगांचें कैलास देवूळ पळोवपासारकें आसा. महाबलीपूरमाक सातव्या - आठव्या शतमानांतल्यो सुंदर होंवरी पळोवंक मेळटात. मदुराई, रामेश्वर, कन्याकुमारी, धनुष्कोडी अशा एका म्हत्वाच्या थळांची पर्यटनाखातीर नामना आसा. निलगिरी, कुन्नुर, कोडईकानल, ऊटकमंड (ऊटी) अशीं थंड हवेचीं ठिकाणांय आसात. पर्यटनाकलागून हांगा सवलती सुविधा निर्माण जाल्यात.

**येरादार :** राज्यांत वट्ट १,२१,३५२ किमी. लांबायेचे रस्ते आसात. तातूंत ६८,९६२ किमी. पक्के रस्ते, ७८,४६३ किमी. मोटारीचे रस्ते आसात. हातूंत १,८५५ किमी. राश्ट्रीय मार्ग आसात. राज्यमार्ग १,७२९ किमी. आसात. म्हालांतले रस्ते १३,८६४ किमी. आसात. नगरपालिका आनी भौशीक बांदकाम खात्याकडचे रस्ते ७,६१५ किमी. आसात. मद्रास आनी तुतिकोरीन हीं भारतांतलीं व्हडलीं बंदरां तशेंच कडलोर, नागापट्टणम्, रामेश्वर, पांबन, किलाकराई हीं ल्हान बंदरां. आंध्र आनी तमीळनाडू ह्या राज्यांतल्यान बकिंगहॅम खारजांतल्यान उदका येरादारी करतात. चेन्नईक दक्षिण रेल्वेचें मुखेल कार्यालय आसा. मद्रासाक मीनाबक्कम हो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. तेभायर तिरुचिरापल्ली, कोईमुत्तूर, मदुराई, रामनाड, तंजावर, वेळ्ळूर हांगाय विमानतळ आसात. कोईमुत्तूर, चेन्नईक विमानउड्डाण करपी संस्था आसात.

**लोक आनी समजजीण :** राज्याची लोकसंख्या ५,५६,३८,३१८ (१९९१). ह्या राज्यांत दर १००० दादल्यां फाटल्यान बायलांचें प्रमाण ९०४ इतलें आसा. लोकसंख्येची दाटाय दर चौ. किमी.क ४२८ आसा. उद्देगधंद्यांत वाड जाल्यान शारांत लोकसंख्येचें प्रमाण ३०.२६ टक्क्यांमेरेन वाडलां. बायलांपरस दादल्यांमदीं बरपाक्षराचें प्रमाण चड आसा. राज्यांत जैन, बौध्द, हिंदू, क्रिस्तांव, मुसलमान, शीख अशे जायते धर्माचे लोक रावतात. आदल्या तेंपार हांगाचे थळावे लोक भूतप्रेत, वनस्पत, नाग हांची पुजा करताले. तंत्र-मंत्र हाचेर तांचो विस्वास आशिल्लो. जनावरांचो बळी देवामुखार दिताले. ते शिवाची पुजा करतात आनी हांगा शिवलिंग पुजेक चड म्हत्व आसा. राज्यांत मक्कळ, देवर आनी नकरर ह्यो तीन मुखेल जमाती आसात. मक्कळ म्हळ्यार शुध्द द्रवीड, देवर म्हळ्यार आर्य ब्राह्मण आनी नकरर म्हळ्यार रानांत रावपी आदिवासी लोक. तोड, मखर, कुरुंब, काणिक्कर, उरळी, माडिग ह्यो आदिवासी जमाती हांगा आसात. शारांनी आनी गांवांतल्या रावपाचे पद्दतींमदीं वेगळेपण आसता. खेड्यांतल्या घरांचें पाखें तण, पालो, वाली, कोंडे धरून तयार करतात जाल्यार घराच्यो वण्टी लांकूड, विटो आनी माती भरसून करतात. शारांतलीं घरां शिमीट आनी काँक्रिटाचीं आसतात. हांगाच्या लोकांच्या जेवणांत तांदूळ, उडीद, ज्वारी, बाजरी, मको, तोर हे पदार्थ आसतात. चडशा लोकांचो शेती वेवसाय आशिल्ल्यान रावपाची तरा सादी आसता. दादले धव्या कपड्याची लुंगी आनी सदरो घालतात जाल्यार बायलो हातमागार विणिल्ल्यो साडयो आनी घागरो पोलको घालतात.

राज्यांतलो मुखेल सण 'पोंगल' हो मकर संक्रांतीचो सण तीन दीस चलता. शेतकामत्यांक ह्या सणाचें चड म्हत्व आसता. शेतांतलें पीक घरांत येतकच तें वापरचे आदीं ताचो निवेद्य दाखयतात. घराघरांनी सूर्य, वायू आनी वास्तूदेव हांची पुजा करतात. देवाक तांदूळ, गोड आनी दूद हांचेपसून तयार केल्ली खीर (पायस) दाखयतात. दुसऱ्या दिसा सत्यलक्ष्मीची आनी तिसऱ्या दिसा गोरवांची पुजा करतात. सांजवेळा गाय, बैल, हांकां सजोवन तांची मिरवणूक काडटात. वैकुंठ एकादशी हो हांगाचो दुसरो मुखेल उत्सव मागशीर्श म्हयन्यांत शुध्द एकादशीक जाता. भगवान विष्णु एका असुराचो नायनाट करपाखातीर वैकुंठासावन धर्तरेचेर अवतार घेता म्हणून हे एकादशीक वैकुंठ एकादस वा मुक्कोडी एकादस म्हण्टात. त्या दिसा हांगाचे लोक श्रीरंगम्ची यात्रा करतात. तेभायर हांगा तिरुकल्याणम्, गजपर्व, कोलुवू ह्योय परबो मनयतात. तिरुकल्याणम हो देवाच्या लग्नाचो सुवाळो. गजपर्व हो ऐरावताचो उत्सव ते कार्तिकांत करतात. कोलुवू हो नवरात्रांत येवपी बायलांचो उत्सव.

तमीळनाडू राज्यांत संगीत आनी नाच ह्यो कला आदल्या तेंपार सावन आसात. 'भरतनाटचम' हो हांगाचो मुखेल अभिजात नाचाचो प्रकार. तशेंच कुरवंजी हो हांगाचो परंपरीक नाचाचो प्रकार. यामिनी कृष्णमूर्ती, कमला लक्ष्मण, पद्मिनी, रागिणी, हेमामालिनी, ललिता, वैजयंतीमाला आनी कनका ह्यो थंयच्यो नामनेच्यो भरतनाटचम् नाच करपी. संगीतांत ह्या राज्यान बरीच प्रगती केल्या. त्यागराज, मुथ्थुस्वामी दिक्षीतर, श्यामशास्त्री अशे व्हड संगीतकार जावन गेल्यात. वाद्य संगितांत दक्षिणी वीणा ह्या तंतूवाद्याक खाशेलें म्हत्व आसा. तेभायर घटम्,

नागस्वरम्, मृदंगम् हीं हांगासल्लीं खाशेलीं वाद्यां.

हांगा रंगभुंयेकूय व्हड परंपरा आसा. परंपरीक 'भागवत मेळा' हो हांगा पयलींपसून चलत आयला. पुराणीक आनी राजकीय प्रचारात्मक नाटकां हें नाट्यसाहित्याचें खाशेलपण. टी. के. शण्मगम्, एम्. जी. रामचंद्रन्, शिवाजी गणेशन् हे हांगाचे नामनेचे आद्य नट.

१९१७ सावन चित्रपट वेवसायाक मद्रासांत सुरवात जाली. 'कीचकवध', 'भीष्मप्रतिज्ञा' हीं पयलीं चलचित्रां. 'कालीदास' हें चलचित्र १९३१त मुंबय तयार जालें. संगीत आनी नाच हें तमीळ चलचित्राचें मुखेल आकर्शण. १९४८ सावन तमीळ निर्मात्यांनी हिंदी चलचित्रां काडपाक सुरवात केली. मॉर्डन थियेटर्स, जेमिनी स्टुडिओस, अशो कितल्योश्योच चलचित्र संस्था स्थापन जाल्यो. पुराय भारतांत जीं चलचित्र तयार जातात तातूंत ४६% चलचित्रां चेन्नईत जातात. एम्. एस्. सुब्बुलक्ष्मी, बी. सरोजा, त्यागराज भागवतर, एस्. डी. सुब्बुलक्ष्मी हे हांगाचे गाजिल्ले आद्य कलाकार.

जेल्लिक्कट्टु वा मजुविराट्टु हो धाडसी खेळ अजुनूय गांवांनी खेळटात. भुजिल्ल्या, पुश्ट, रागीट बैलाच्या शिंगांक रंगीत वस्त्र वा नोटी बांदप आनी त्यो काडून हाडप ही मुखेल मोख. ह्या खेळांत जिवाक धोको आसता. धाडशी तरणाटेच हो खेळ खेळूंक शकतात.

तमीळनाडूंतले वास्तुकलेक खूब पोरनी परंपरा आसा. द्रवीड, वेसर आनी नागर ह्यो तीन मुखेल वास्तूशैली आसात. हांगाचीं देवळां, गोपुरां, राजवाडे हांचेर द्रविडी शैलीचो प्रभाव दिसता. महाबलीपुर, कांचीपुरम् ह्या नगरांतल्यो वास्तू हेच शैलींत घडयल्यात.

पुर्विल्ल्या काळासावन तमीळनाडूंत चित्रकलेक बरेंच म्हत्व दिल्लें दिसता. पुर्विल्ल्या साहित्यांत आनी वास्तूकलेंत चित्रकलेचीं उदाहरणां दिसतात. पुर्विल्ल्या राजांनी तांगेल्या म्हालांत आनी देवळांच्या वण्टींचेर सोबीत चित्रां काडून घेतिल्लीं. पल्लव नरेश महेंद्र वर्मनाच्या काळांतलीं वण्टींचेर पितारिल्लीं चित्रां महाबलीपुर, सित्तन्नवासलाक पळोवंक मेळटात. विजयानगर शैलींतल्यान काडिल्लीं चित्रां कांचीपुरम् एकांबरनाथ देवळाच्या खांब्यांचेर पळोवंक मेळटात.

आर्विल्ले भारतीय चित्रकलेंत 'मद्रास स्कूल ऑफ आर्ट्स' ही संस्था नामनेची. चित्रकारांमदीं एस्. राव, कुमारिल स्वामी आनी के. सी. एस्. पणीक्कुर हे नामनेचे आद्य चित्रकार आसात. डी. पी. रॉयचौधरी हाणें चित्रकलेंत मोलादीक वावर केला.

तमीळनाडूची मूर्तकलेची पयलींच्या काळासावन प्रगती जायत आयल्या. द्रविडी शैलींतल्यान महाबलीपुरम हांगाचो रथ, विरुपाक्ष देवूळ, देवळांत वणटीचेर कोरांतिल्ल्यो मुर्ती, हत्ती आनी राक्षस हांच्योय मुर्ती पळोवपासारक्यो आसात. वेल्लोर मदुराय, विजयानगर आनी रामेश्वर देवळांत दक्षिणी शिल्पकलेचे नमुने पळोवंक मेळटात.

**शिक्षण पद्दत आनी प्रसार :** हांगा प्राथमिक शिक्षण सक्तीचें केलां. ६ ते १४ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांक शिक्षण फुकट आसा. सरकारान हांगा शिक्षणाच्यो सोयी सवलती खूब केल्यात. पूर्व मुळाव्या, मुळाव्या आनी माध्यमिक शाळांनी लाखांनी भुरगीं शिकतात. हांगा उच्च माध्यमिक शाळा, केंद्रीय शाळा, अँग्लो इंडियन शाळा, कृशी विद्यालयां, तंत्रीक शिक्षण संस्था, अभियांत्रिकी म्हाविद्यालय, कलाविद्यालय, दंत विद्यालयां आसात.

राज्यांत ७२ दिसाळीं, १२५ म्हयनाळीं, ८४ सप्ताळीं १२ वर्सुकी नेमाळीं आसात. 'ध हिंदू', 'ध इंडियन एक्सप्रॅस', 'ध मेल' हीं इंग्लीश जाल्यार 'थांती दिना मलार', 'दिनमणि', 'नवमणि', 'स्वदेशाभिमान' हीं तमीळ दिसाळीं आसात.

**भास आनी साहित्य :** जगांतल्या पुर्विल्ल्या भाशांमदीं तमीळ भाशेचो आसपाव जाता. द्रवीड भाशांमदीं ही एक प्रगत आनी समृध्द भास. ती मद्रास सावन कन्याकुमारीमेरेन पातळ्ळ्या. श्रीलंका, मियानमार, मोरिशसाकूय तमीळ भाशीक लोक आसात. इरुल, कसुव, कोरव, कैकाडी आनी बरंगडी ह्यो तमीळीच्यो पांच बोली. तमीळ भाशेचीं शेंतमीळ आनी कोडुनतमीळ अशीं दोन रुपां आसात. शेंतमीळ ही साहित्यीक भास जाल्यार कोडुनतमीळ ही लोकभास.

तमीळ लिपीचें कोळएकुत्तु आनी वट्टेळुतु अशे दोन प्रकार आसात. कोळएकुत्तु ही सरळ ओळींत काडटात जाल्यार वट्टेळुतु ही वाटकुंळी आसता. तमीळ वर्णमालेंत १२ स्वर आनी १८ व्यंजनां आसतात. सुमार ३,००० वर्सांपयलीं हे भाशेंतल्यान काव्य बरोवंक सुरवात जाली जावंये. तमीळ वाङ्मयाची इयल म्हळ्यार साहित्य, इशै म्हळ्यार संगीत आनी नाटकम् म्हळ्यार नाट्य अशीं तीन आंगां आसात. संत तिरुवळ्ळुवर हाका तमीळ साहित्यांत व्हड मान आसा. ताणें तिरुक्कुरळ हो तमीळ काव्यग्रंथ बरयला. तमीळ साहित्यांत शिलप्पधिकारम् हें एक म्हाकाव्य आसा. मणिमेखलै, तिरुत्तक्कदेवरकृत जीवक - चिंतामणि, वळयापति आनी कुंडलकेशी ह्या काव्यग्रंथांची नामना आसा. व्हड तमीळ कवी कंबन हाणें कंब रामायण हें महाकाव्य बरयलें. आर्विल्ल्या साहित्यांत सुब्रह्मण्यम भारती ह्या कवीक म्हत्वाचें स्थान आसा. ताणें 'देशीय गीतगळ' हें राश्ट्रीय महाकाव्य बरयलां. सद्या तमीळ भाशेंत खूब ग्रंथ बरयल्ले आसात. आरुमुग नावलर, नागनाथ, पंडितर, दामोदरम् पिळ्ळै, डॉ. स्वामिनाथ अय्यर, वेदनायकम् पिळ्ळै, चक्रवर्ती राजगोपालाचारी, पुदुमैप्पित्तन्, कु. प. राजगोपालन्, रंगनाथ, डॉ. राधाकृष्णन आनी कल्की (आर्. कृष्णमुर्ती) आदींचें साहित्य लोकप्रिय आसा.

रॉबर्ट डी. नोबिलिबस ह्या किरिस्तांव धर्मगुरून तमीळ भाशेंत 'दुषणाधिकारम्' आनी 'आत्मनिर्माणम्' नांवाचे दोन ग्रंथ बरयले. रॅवरंड बेस्की ह्या धर्मगुरून भुरग्यांखातीर 'अविवेकपूर्ण गुरू' नांवाचें पुस्तक बरयलें. तांडवराय मुदलियार हाणें पंचतंत्राचो तमीळ भाशेंत अणकार केलो. तमीळ भाशेंत 'प्रताप मुदलियार चरित्रम्' ही पयली कादंबरी वेदनायकम् पिळ्ळै हाणें बरयली. सुंदरम् पिळ्ळै ह्या लेखकान 'मनोन्मणियम' हें नाटक बरयलें. तेउपरांतच्या नाटकांत नारायणशास्त्री हाचें 'भोजराज चरितम्', संबंद मुदलियार हाचीं लिलावती, सुलोचना हीं नाटकां नामनेचीं आसात. तमीळ भार्शेत विश्वकोशय आयिल्लो आसा.

**म्हत्वाचीं थळां :** तमीळनाडू राज्यांत इतिहासीक, धर्मीक, शिक्षणीक, उद्देगीक तशेंच सैमीक अशीं म्हत्वाचीं थळां खूब आसात. जिंजी हांगाचो किल्लो प्रसिध्द आसा. हांगा बांदिल्लो तट ७०० वर्सां पयलींचो आंसा. विजयनगरच्या साम्राज्यांत ताका खुबूच म्हत्व आशिल्लें. उत्तर अर्काट म्हालांत पलार न्हंयचे देगेर वेळ्ळूर हें थळ आसा. हांगा भोंवतणीं एक तट आसा आनी तटाभितर चलंधरेश्वराचें व्हडलें देवूळ आसा. तिरुचिरापल्लीकय तसोच एक तट आसा आनी तो २७३ फूट उंचायेच्या दोंगरार बांदला. महाबलीपुरमाक सातव्या - आठव्या शेंकड्यांतल्यो होंवऱ्यो पळोवंक मेळटात. तशेंच पल्लव काळांतलो दीपस्तंभ थंय पळोवंक मेळटा. कांची, तंजावर, कुंभकोणमाक दर बारा वर्सांनी कुंभमेळ भरता. हांगा

'पक्षतीथ' हें नामनेचें तीर्थस्थान आसा. चिदंबरम्, तिरुवन्नामलईचीं शिवमंदिरां पळोवपासारकीं आसात. मदुराई, रामेश्वर, कन्याकुमारी हीं नामनेचीं धर्मस्थळां आसात. निलगिरी, कुन्नूर, कोडईकानल, ऊटकमंड (उटी) हीं थंड हवेचीं ओडलायणीं थळां हांगा पर्यटन खात्यान सगल्यो सुविधा निर्माण केल्यात.

– माणिकराव राम नायक गावणेकर

**तमीळ भास :** तमीळ भास ही द्रवीड भास परिवारांतली सगल्यांत चड विकसीत आनी समृध्द भास. इ. स. पयलीं कितल्याशाच शेंकड्यांपसून हे भाशेचें सुसंस्कृत आनी सुवेवस्थीत अशें रूप मेळटा. तमीळ भाशेचे ब्राह्मी लिपींतले शिलालेख इ. स. पयलीं तिसऱ्या शेंकड्यासावन आनी तमीळ लिपींतले शिलालेख क्रिस्ता उपरांतच्या सव्या शेंकड्यासावन उपलब्ध आसात. हे भाशेचें सगल्यांत पोरणें साहित्य 'संघम्' ह्या नांवान प्रसिध्द आसा.

१९८१ वर्साचे जनगणनेप्रमाण तमीळ भाशिकांची वट्ट संख्या ३,७५,९२,७९४ इतली आशिल्ली. उत्तर श्रीलंकेंत तमीळ भास चडशा लोकांची आवयभास. कितलेशेच तमीळ उलोवपी लोक पयलींच्या काळांत मॉरिशस, फिजी जुंवे, वॅस्ट इंडीज, दक्षिण आफ्रिका, मलाया ह्या प्रदेशांनी मजुरी करपाखातीर वचून स्थायीक जाल्यात. हे नदरेन भारतांतली एक आंतरराश्ट्रीय दर्ज्याची भास म्हणून तमीळ भाशेचो उल्लेख करूं येता.

इरूल, कसुव, कोरव, कैकाडी आनी वरगंडी ह्यो तमीळीच्यो पांच बोली. शेन् आनी कोडुन अशीं तमीळ प्रमाण भाशेचीं दोन रुपां आसात. हातूंतलें पयलें रूप साहित्याचें माध्यम आसून, दुसरें लोकांच्या नित्याच्या वापरांत आसा.

**व्याकरण** – व्हड आनी ल्हान अशे नामांचे दोन वर्ग आसात. व्हड वर्ग (उयर/तिणै) हातूंत देव, मनीस हांचो आसपाव जाता. ल्हान वर्ग (अल्/तिणै). ताका लागून तातूंत पुल्लिंग आनी स्त्रीलिंग अशे भाग आसात. अल्/तिणै ह्या ल्हान वर्गांत निर्जीव पदार्थ, मनीस सोडून हेर प्राणी, झाडां, कल्पना, गूण हांचो आसपाव आसून ह्या सगल्यांचें एकच अशें नपुसकलिंग आसता.

न, अन् वा आन् हे पुल्लिंगी नामांचें एकवचन दाखयतात. 'ळ्', 'अळ्', 'आळ', 'इ' वा 'ऐ' हे स्त्रीलिंगी एकवचन दाखयतात. दु वा अदु नपुसकलिंग दाखयतात. अवन् 'तो', अवळ 'ती', अदु 'ते', मगन् 'चलो', मगळ् 'चली' आनी हेर ज्या नामांच्या शेवटाक हे प्रत्यय येनात, तांचें लिंग ताच्या अर्थावयल्यानूच समजून घेवंचें पडटा. उयर्/तिणै ह्या व्हडल्या वर्गांतल्या नामांचें भोववचन र्, अर् वा कळ् (गळ्, हळ्) हे प्रत्यय लावन जाता. न् वा ळ् निमाणें आशिल्ल्या नामांक र् वा अर् हो प्रत्यय लागता. हेर नामांक र्, अर् वा कळ् हे प्रत्यय लागतात. दु निमाणें आशिल्ल्या नपुसकलिंगी नामांचें भोववचन हो दु काडून उडोवन वा ताचेबदला न वा वै हो प्रत्यय लावन जाता. हेर नपुसकलिंगी नामांक कळ् हो प्रत्यय लागता.

हातूंत आठ विभक्ती आसात. तांचे प्रत्यय अशे – प्रथमा – शुन्य; द्वितीया – ऐ; तृतीया – आल्; चतुर्थी – उक्कु, उक्काग; पंचमी – इल, इलिरुंदु, इनिंदु, ओदु; षश्टी – उडैय, इन्, अदु; सप्तमी – इल, इदत्तिल; संबोधन – ए. हे प्रत्यय सगळ्या नामांक एकवचनांत वा भोववचनांत लागतात. सगले विभक्तिप्रत्यय स्वरादी आशिल्ल्यान ते नामांक लायतना कांय खास संधिनेम पाळचे पडटात.

**सर्वनामां** –

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| पयलो पुरूश | नान् 'हांव' | नांगळ 'आमी'<br>नाम 'तुमी' |
| दुसरो पुरूश | नी 'तू' | नींगळ् 'तुमी'<br>नीर् 'तुमी' |
| तिसरो पुरूश | अवन् 'तो'<br>अवळ 'ती'<br>अदु 'ते' | अवर, अवर्गळ्, 'ते', 'त्यो'<br><br>अवै, अवैगळ्, अदुगळ 'ती' |

**संख्यावाचक :** पयले धा आंकडे अशे आसात – ओन्रु 'एक', इरंडु 'दोन', मूनरु 'तीन', नालु 'चार', अइंदु 'पांच', आरु 'स', एडु 'सात', एट्टु 'आठ', ओनबदु 'णव', पत्तु 'धा'. ह्या संख्यावाचकांक 'आम्' वा 'आवदु' हो प्रत्यय लावन क्रमवाचक विशेशण मेळटा. पूण ओन्रु 'एक' हाचें क्रमवाचक, मुदल्, मुदल् – आम् वा मुदल् – आवदु जाता. फाटल्यान दशकवाचक शब्द आयल्यार तें 'ओराम' अशें जाता. मुप्पदु 'तीस', मुपत्तोराम 'एकतीस.'

क्रियापदांत वर्तमान, भूत आनी भविश्य अशे तीन मुखेल काळ आसात. वर्तमानकाळाचें कालवाचक चिन्न किर्, भूतकाळाचें त् आनी भविश्यकाळाचें प्प् अशें आसा. ह्या सगल्यांचें नकारवाचक रूप एकूच जाता; तें धातूक खंयचेंच चिन्न लायनासतना एकदम प्रत्यय लावन सिद्द जाता. हे प्रत्यय अशे आसात.

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| पयलो पुरूश | एन्, अल्, अन् | ओम्, अम्, आम्, एम् |
| दुसरो पुरूश | आय्, इ | ईर्, ईर्गळ् |
| तिसरो पुरूश | पु. आन् | |
| | स्त्री. आळ | आर्, आर्गळ् |
| | न. आदु | अ, अदुगळ |
| | रू, इत्तु उम् | उम् |

धातूच्या तुबन्त रुपाक इळ्ळै हें नकारवाचक लावन तें सर्वनामांवांगडा चलयल्ल्यान सगळ्या काळांचें, सगल्या पुरूशांचें आनी सगल्या वचनांचें नकारवाचक जाता.

धातूपसून विशेशणात्मक, नामात्मक, अव्ययात्मक आनी नकारवाचक धातुसाधित प्रत्यय लावन मेळटात. एकवचनाक उम् वा उंगळ् हो प्रत्यय लावन अनेकवचनी रूप तयार जाता.

कांय शब्दयोगी अव्यय अशे आसात. उडन् – 'सयत', आग – 'का', पोरुट्टु – निमित्तम् – 'खातीर', पुडम् – 'भायर', मुन् – 'पयलीं', पिन् – 'उपरांत' आनी हेर.

हय वा ना अशी जाप आसपी प्रस्न सामान्य विधानाउपरांत 'आ' हें प्रस्नार्थक दवरून जाता. दुबाव उक्तावपाचो आसल्यार आ च्या बदला 'ओ' येता.

तमीळ लिपी – तमीळ लिपी ही पुर्विल्ले ब्राह्मी लिपीचे एके खाशेले दाक्षिणात्य शैलीपसून तयार जाल्या. पूण तातूंतलीं, आपणाल्या भाशीक वेव्हाराक गरजेचीं अशींच चिन्नां तमीळ भाशेन घेतल्यांत.

## तमीळ साहित्य

तमीळ लिपींत अ, आ, इ, ई, उ, ऊ, ए, (ऱ्हस्व आनी दीर्घ), ओ (ऱ्हस्व आनी दीर्घ), ऐ, औ अशे बारा स्वर आसात. तशींच, क, ङ्, च, ञ, ट, ण, त, न, प, म, य, र, ल, व, ड़, ळ, ऴ, न हीं अठरा व्यंजनां आसून अठरा वर्ण आसात. तमीळींत आनिकूय उच्चार आसात. जेप्रमाण च, ज हीं अक्षरां दरेकीं दोन ध्वनी उकतायतात तेचभाशेन कांय तमीळ अक्षरांचेंय आसा. पूण तमीळभाशेंत अक्षर आनी उच्चार हांचे संबंद चड नेमबद्द अशे आसात. तमीळ स्वरांविशीं अशें खास कांय ना. फकत ए आनी ओ हे स्वर ऱ्हस्व आनी दीर्घ आसतात हें मतींत दवरूंक जाय. फकत व्यंजन दाखोवपाचें आसल्यार व्यंजनाच्या चिन्नाचेर वयर एक टींब दितात. देखीक, क्रम - कंरम (तमीळ), पक्को - पकंको (तमीळ). हे पद्दतीक लागून तमीळभाशेचें संयुक्त व्यंजन बरोवप चड सोपें जालें. हें भाशेंत ख, ग, घ, छ, ज हीं अक्षरचिन्नां तशेंच ह हें व्यंजन ना. पूण ऩ, ऴ, ऱ हीं नवीं चिन्नां आसात. तेखातीर 'गार' आनी 'घार' हे शब्द तमीळींत 'कार' अशेच बरयतात. तशेंच 'शिका' आनी 'शिखा' हे शब्द 'चिका' अशे बरोवन तांचो उच्चार 'चिगा', 'शिगा' वा 'सिगा' असो करतात.

तमीळीचेर संस्कृताचो प्रभाव पडपाक लागतकच वर्णांचे मर्यादेक लागून संस्कृत शब्दांचें लिखाण करप कठीण जावपाक लागलें, तेखातीर ग्रंथ नांवाची एक नवी लिपी तयार केली. ही लिपी आकार - प्रकारांत द्रवीड भाशांच्या लिपींभाशेन आसली तरी उच्चारण आनी क्रम हेविशीं ती नागरी लिपीक धरून आसा. पूण तमीळ साहित्यक्षेत्रांत ही लिपी प्रचलीत जावंक शकलिना. फकत धर्मीक ग्रंथांचेंच लिखाण हे लिपींत जावंक लागलें. हे लिपींतल्यानूच ज, स, ष, ह हे चार वर्ण आर्विल्ले तमीळ लिपींत आयल्यात.

**तमीळ लिपी :** तमीळ लिपींत, देवनागरी लिपींतले अनुस्वार आनी विसर्ग नात. तेच भाशेन तमीळींतलें ऱ्हस्व 'ए' (ॲ) आनी ऱ्हस्व 'ओ' हे स्वर देवनागरी लिपींत नात. तमीळ भाशेंत स्वराक 'उयिर् ॲलुतुक्कळ' म्हण्टात. व्यंजनाक 'मॅय् ॲलुतुक्कळ' म्हण्टात. तमीळ लिपींत 'ळ', 'ऴ' हे दोन वर्ण आसात. 'र' चो उच्चार सामान्य 'र' परस चड खर आसता. तमीळ भाशेंत जोडाक्षरां नात. देखीक, स्त हें अक्षर बरोवपाचें आसल्यार 'स' च्या माथ्यार टींब दिवन 'स' चे फुडें 'त' हें अक्षर बरयतात.



तमीळ वर्णमाळ

पल्लव, चोळ, उदेंतेकडले चालुक्य तशेंच राष्ट्रकूट राजा हांच्या लेखांतल्यान तमीळ लिपी दिसता. सातव्या शेंकड्यासावन तमीळ लिपींतले लेख मेळटात. पल्लववंशी राजा परमेश्वरवर्मन् हाचो कुरमाक मेळिल्लो तांब्यापटो तशेंच नंदिवर्मन् हाच्या कशाकुडी आनी उदयेंदिरम् दानपत्रांतलो निमाणो मजकूर तमीळ लिपींत आसा. ह्या दानपत्रांतलें तमीळ लिपीचें मोडण तिच्या हेर द्रवीडी भाशांपरस वेगळें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**तमीळ साहित्य :** तमीळ ही द्रवीडी भाशांतली खूब पोरणी भास. हे भाशेच्या साहित्याचो इतिहासूय खूब पोरणो आनी व्हड आसा. त्या साहित्यांत व्याकरण, छंद, अलंकार, ज्योतीश, आयुर्वेद, खगोलशास्त्र, रसायन, संगीत, शिल्पकला अशा कितल्याशाच विशयांचेर ग्रंथनिर्मिती जाल्या. तातूंत धर्म, नीत, झूज आनी प्रेम ह्या चारूय आंगांचो आसपाव जाता. पुर्विल्लें तमीळ साहित्य हें चडशें पद्यमय आसा.

इसवी सनापयलीं पांचशें ते सशें वर्सांपयलीं वा ताचेपयलीं लेगीत तमीळ भाशेच्या साहित्याक आरंभ जालो आसूं येता अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. पुर्विल्ल्या तमीळ विद्वानांनी साहित्याची इयल (काव्य), इशै (संगीत) आनी नाटकम् अशीं तीन आंगां मानिल्लीं. पूण हातूंतल्या इयल ह्याच आंगाचे ग्रंथ उपलब्ध आसात. तमीळ साहित्याचे सामान्यपणान कालखंड मानल्यात ते अशे -

(१) संघम् काल - सनापयलीं ५०० वर्सांपयलीं ते इ. स. च्या दुसऱ्या शेंकड्यामेरेनचो काळ.

(२) महाकाव्यकाल - इ. स. च्या दुसऱ्या शेंकड्यासावन सव्या शेंकड्याचे सुरवातीमेरेन.

(३) भक्तिकाल - सव्या शेंकड्यासावन आठव्या शेंकड्यामेरेन.

(४) कंबनकाल - णवव्या शेंकड्यासावन चवदाव्या शेंकड्यामेरेन.

(५) मध्यकाल - चवदाव्या शेंकड्यासावन अठराव्या शेंकड्यामेरेन.

(६) आर्विल्लो काळ - एकुणिसाव्या शेंकड्यासावन चालू काळामेरेन.

संघम्काल - साहित्यनिर्मितीक उर्बा दिवन, निर्माण जाल्लें साहित्य वाङ्मयीन कसोटयांचेर पारखून पळोवपाखातीर पांड्य राजांचे सुचोवणेप्रमाण एका कवीमंडळाची (संघम्) दक्षिण मथुरेंत स्थापणूक जाली. ह्या कवीमंडळाचें नांव 'तलैच्चंगम्' (पयलें संघम्) अशें आशिल्लें. हाचे ५४६ वांगडी आशिल्ले. ह्या संघमामुखार ४४४९ कवींनी आपापल्यो रचणुको परिक्षेखातीर धाडल्यो. ह्या संघाक ८६ राजांनी आश्रय दिल्लो. तातूंतले ७ राजा कवी आशिल्ले. 'अगत्तियम्' हो ह्या संघमाचो प्रमाणभूत व्याकरणग्रंथ आशिल्लो. हो ग्रंथ अगस्त्य मुनीन रचिल्लयाचें सांगतात.

दुसरो संघम् 'इडैच्चंगम्' हाची स्थापणूक इ. स. पयलीं ४०० वर्सां जाली. ह्या संघाचे ५६ वांगडी आशिल्ले. ह्या संघमाकडेन ३६०० कवींनी आपलीं काव्यां धाडलीं. ह्या संघाक ५६ राजांनी आश्रय दिल्लो तेन्ना ५ राजा स्वता कवी आशिल्ले. मापुराणम्, इशैनुणुक्कम्, भूतपुराणम् हे ग्रंथ ह्या संघमाचे मुखेल आशिल्ले.

इ. स. पयलीं सुमार १५० वर्सांच्या अदमासाक उत्तर मदूरेंत तिसऱ्या संघमाची स्थापणूक जाली. ह्या संघाचे ४६ वांगडी आशिल्ले. नक्कीरर, शिरूमेदावियार हे कवी संघांत मुखेल आशिल्ले. नक्कीरर हो ह्या संघाचो अध्यक्ष आशिल्लो. ह्या संघाच्या काळांत ४४९ कवींनी आपल्यो रचणुको संघाकडेन धाडिल्ल्यो. हो काल तमीळ साहित्याचे नदरेन खूब म्हत्वाचो आशिल्लो. ह्या काळांतलें काव्य, प्रेम, भक्ती, नीत

आनी वीरताय ह्या भावनांनी भरिल्लें आसून ह्या काळांतलें चडशें काव्य सद्या उपलब्ध ना. डॉ. स्वामिनाथ अय्यर हाणें खूब कश्ट घेवन ह्या काळांतले एट्टुतोगै, पत्तुप्पाट्टू आनी पदिनेण्कीलकणक्कू हे तीन ग्रंथ उजवाडा हाडल्यात.

**एट्टुतोगै** - हातूंत कलित्तोगै, परिपाडल, ऐंगुरुनूरू, पदिट्रुपुत्तू, अहनानूरू, पुरनानूरू, नट्रिणै आनी कुरुंतोगै अशे आठ संग्रहग्रंथ आसात.

**पत्तुप्पाट्टू** - हातूंत धा दीर्घ कवितांचो झेलो आसा. तांचीं नांवां अशीं आसात - पोरूनरार्टुप्पडै, पट्टिनप्पालै, मुल्लैप्पाट्टू, पेरूम्पाणर्रुप्पडै, शिर्रुपाणार्रुप्पडै, नेडुनलवाडै, कुरिंजिप्पाट्टू, मदुरैक्कांजी, मलैपडुकडाम् आनी तिरुमुरुगार्रुप्पडै.

तमीळनाडूंतले शैव लोक ह्या पत्तुप्पाट्टू ग्रंथाक धर्मग्रंथ मानतात.

**पदिनेण्कीलकणक्कू** - हो अठरा सूक्तिग्रंथांचो झेलो. हातूंतल्यो चडश्यो सूक्ती संस्कृत सुभाशितांभाशेन आसात. ह्या झेल्यांतलो अठरावो ग्रंथ 'तिरुक्कुरळ' हो आसून तो तिरुवळ्ळुवर हाणें रचला. हो विश्वविख्यात असो ग्रंथ, तमीळ साहित्यांतलो तशेंच जगांतलो एक उत्कृश्ट नितीग्रंथ अशें मानतात. ह्या ग्रंथांत १,३३० द्विपद्या म्हळ्यार दोन ओळींचीं पद्यां आसात. भारतांतल्या तशेंच युरोपांतल्या चडशा सगल्या मुखेल भाशांनी ह्या ग्रंथाचे अणकार जाल्यात.

**महाकाव्यकाल** - इ.स. च्या पयल्या - दुसऱ्या शेंकड्यातूच तमीळनाडूंत जैन आनी बौध्द हे दोनूय धर्म आशिल्ले. इ. स. च्या सव्या शेंकड्याचे निमाणेमेरेन ह्या दोनूय धर्मांचो तमीळनाडूंत नेट आशिल्लो. ह्या काळांत जैन - बौध्दांनी तमीळ भाशेंत खूब ग्रंथरचना केली. संघम् काळांतूच ह्या दोनूय धर्मांचें वाङ्मय निर्माण जातालें तें सव्या शेंकड्यामेरेन खूब वाडलें. देखून कांय संशोधक ह्या काळाक जैन - बौध्दकाल अशेंय म्हण्टात. ह्या काळांत तांणी चडशी म्हाकाव्यांची निर्मिती केली. शिलप्पधिकारम्, मणिमेखलै, जीवकचिंतामणी, वळयापती आनी कुंडलकेशी अशीं त्या म्हाकाव्यांचीं नांवां आसात. ह्याच काळांत कांय लघुकाव्यांय तयार जालीं.

शिलप्पधिकारम् हें नाट्यमय शैलीन बरयल्लें सर्वांगसुंदर म्हाकाव्य आसा. इळंगो अडिगळ हाणें हें काव्य रचलां. हातूंत कोवलन नांवाचो एक वणिक्पुत्र आनी कण्णकी नांवाची ताची बायल हांची कथा आसा. मणिमेखलै हें महाकाव्य शिलप्पधिकारम्चोच उत्तरार्ध आसा. हातूंत कोवलन हाका माधवी नांवाचे गणिकेपसून जाल्ले मणिमेखला हे नायिकेची कथा आसा. हें काव्य शित्तलै शात्तनार हाणें बरयलां. जीवक चिंतामणी हें म्हाकाव्य तिरुतक्कदेवर ह्या जैन महाकवीन रचलां. ह्या काव्यांत जीवक नांवाच्या राजकुमाराचें चरित्र आसा. वलयापती आनी कुंडलकेशी हीं दोन महाकाव्यां उपलब्ध नात. ह्या काळांत 'पेरुंकदै' नांवाचें आनीक एक महाकाव्य रचलां. हातूंत उदयनाची कथा आसा. ह्या महाकाव्याचो चडसो वांटो नश्ट जाला. पूण जो सदद्या उपलब्ध आसा. ताच्योच पंक्ती सोळा हजार आशिल्ल्यान ह्या काव्याच्या विस्ताराची कल्पना येवं येता.

नीलकेशी, चूडामणि, यशोधरकाव्यम्, नागकुमारकवियम्, उदयणन् आनी कदै हीं ह्या काळांतलीं लघुकाव्यां आसात. हीं काव्यांय जैन - बौध्दांनीच रचल्यांत. मदुरेंतल्या विद्यापीठान ज्या तमीळ जैन ग्रंथांक मान्यताय दिल्या तातूंतल्या कांय ग्रंथांचीं नांवां अशीं आसात - नालडियार, नन्मणीक्कदीकयी, इनियवईनर्पतु, इन्ननर्पतु, करनर्पतु, कुरळ आनी पलमोली.

**भक्तिकाल** - शिव आनी विष्णू हांचे भक्तीचेर ह्या काळांत खूब काव्यग्रंथ रचल्यात. तमीळनाडूंतल्या शिवभक्तांक नायन्मार अशें म्हण्टात. हे संख्येन त्रेसठ आशिल्ले. तातूंतले मणिक्कवाचकर, ज्ञानसंबंधर, अप्पर आनी सुंदरर हे चौग जाण मुखेल आशिल्ले. मणिक्कवाचकर हो पांड्य राजांचो अमात्य आशिल्लो. पूण उपरांत ताणें ह्या अधिकारपदाचो त्याग करून शैव धर्माच्या प्रचाराक आपली जीण ओंपली. 'तिरुवाचकम्' हो ताचो पदांझेलो आसा.

अप्पर, सुंदरर आनी ज्ञानसंबंधर हांच्या काव्यझेल्याक 'तेवारम' अशें नांव आसा. मेयकंडदेव हाणें इ. स. च्या बाराव्या शेंकड्यांत, शैव सिध्दांतांची विस्कटावणी करपी ग्रंथ 'शिवज्ञानबोधम्' बरयलो आनी शैव मताक दार्शनिक अशें स्वरूप मेळोवन दिलें. तेखातीर ताका भोवमानान 'तमीळ व्यास' अशें म्हण्टात.

तमीळनाडूंतल्या वैष्णव भक्तांक 'आळवार' अशें म्हण्टात. आळवार म्हळ्यार भगवंताचो साक्षात्कार जाल्लो गिन्यानी संत आसून ते संख्येन बारा आसात. श्रीविष्णू हें ह्या आळवारांचें आराध्य दैवत. तमीळ भाशेंत ताका पेरुमळ म्हण्टात. ह्या आळवारांनी विष्णुभक्तीचेर हजारांनी पदां रचून आनी गावन तमीळनाडूंतल्या लोकांक प्रेमधर्माची शिकवण दिली. हाकाच लागून हे आळवार संत थंयच्या लोकांचे देव जाले. तांच्या गितांच्या झेल्याक 'नालायिर दिव्यप्रबंधम्' अशें नांव आसा. इ. स. च्या १० व्या शेंकड्यांत नाथमुनी ह्या एका वैष्णवाचार्यान हो झेलो तयार करपाचें काम केलें. रामानुजाचार्य हो ह्याच नाथमुनीचो पण्टू. उपनिषदांतलो वैष्णव धर्म आनी आळवारांचो शरणागतिप्रधान भक्तिमार्ग हांचो मेळ करून रामानुजाचार्यान आपल्या विशिष्टाद्वैतमताची स्थापणूक केली.

**कंबनकाल** - म्हाकवी कंबन हाणें तमीळ भाशेंत वाल्मिकी रामायणाच्या आदाराचेर रामायणाची रचणूक केली. हें रामायण कंबरामायण ह्या नांवान प्रसिध्द आसा. कंबनाचे हे रचणुकेक लागून त्या काळांतल्या हेर कवींनी ताका 'कविचक्रवर्ती' अशें म्हळां. तमीळ आनी संस्कृत ह्या दोनूय काव्यशैलींचो मेळ हें कंबनाचें खाशेलपण. फुडल्या तीन - चार शेंकड्यांनी जे कवी आनी साहित्यकार जाले, त्या सगल्यांचेर कंबनाचो छाप दिसता. तेखातीर ह्या काळाक कंबनकाल अशें विद्वानांनी नांव दिलां. कंबनाच्याच काळांतलो एक नामनेचो कवी पुगलेंदू हाणें नळवेंबा नांवाचें ४२४ कवितांचें एक लघुकाव्य रचलां. तें महाभारतांतल्या नलोपाख्यानाचेर आदारिल्लें आसा. कंबनकाळांतल्या काव्यग्रंथांनी पेरियपुराणम् ह्या ग्रंथाक एक खाशेली सुवात आसा. शेक्कीळार नांवाच्या एका कवीन तें रचलां. ह्या काव्यांत कवीन त्रेसठ नायन्मार कवींचीं चरित्रां वर्णिल्यांत. ह्याच काळांतलो आनीक एक नामनेचो ग्रंथ म्हळ्यार 'कंदपुराणम्.' हो ग्रंथ कच्चियप्प शिवाचार्य हाणें रचला. ह्या पुराणांत सुब्रह्मण्यमाचें चरित्र आसून, तमीळनाडूंत हो ग्रंथ धर्मीक म्हणून मान्यतायेक पावला. इ. स. च्या धाव्या शेंकड्यांत शयंगोंडार ह्या कवीन कलिंगत्तुपरणि नांवाचें खंडकाव्य रचलां. हें काव्य कुलोत्तुंग चोळाच्या वर्णनाचेर आसा.

ह्याच काळांत कांचीलागसार रावपी वामन नांवाच्या एका जैन मुनीन मेरुमंदारपुराणम् ह्या ग्रंथाची रचणूक केली. ताणें काव्य, नीत, व्याकरण, निघंटू अशा विशयांचेर ग्रंथांचें लिखाण केलें. थाप्पिलक्कणम्, वीरशोलियम्, नेमिनाथम्, नान्नूल अशीं ताच्या हेर ग्रंथांचीं नांवां आसात.

**मध्यकाल** - ह्या काळांत टिकाग्रंथांचेर चड बरोवप जालें. इलाम्बुरणर, परिमेल्लगर, नच्चिनार्किनियर, परियवाच्चन पिळ्ळै ह्या टिकाकार पंडितांनी ह्या काळांत खूब लिखाण केलें. चवदाव्या शेंकड्याउपरांत तमीळनाडूंत

व्हड प्रमाणाचेर राजकीय घडामोडी जाल्यो. त्या काळांत सिध्द कवींचो एक नवो संप्रदाय निर्माण जालो. सिध्द ह्या नांवान वळखुपी हे कवी संख्येन अठरा आसून ते हिंदू तशेच बौध्द आनी जैनूय आशिल्ले. तातूंतल्या तिरूमूलर, शिववाक्कियर, पट्टिनत्तार, भद्रगिरियर पाम्फट्टिसिध्दर, पंबही आनी इदलकट्टू हांची चड नामना आशिल्ली. शैवासिध्दान्त, शिवज्ञानबोधम्, कैवल्यनवनीतम् हे तांचे कांय नांवाजते ग्रंथ.

अठराव्या शेंकड्याचे सुर्वेचो नामनेचो संत तायुमानवर. हो अद्वैतवादी आनी विश्वप्रेमाचो प्रचारक असो कवी आशिल्लो. ह्याच शेंकड्यांत फादर बेस्की ह्या एका विदेशी कवीन तमीळ भाशेचें खोलायेन अध्ययन करून 'तेंबावाणी' नांवाचें एक म्हाकाव्य रचून तातूंत येशू क्रिस्ताची जिणेकथा बरयली. त्या काळांत कांय हेर मिशनऱ्यांनी लेगीत तमीळ साहित्याचो विकास केला. वीरमामुनिवर ह्या पाद्रीन परमार्थ गुरुकथै नांवाच्यो हास्यकथा बरयल्यो. भारतीय भाशांभितर सगल्यांत पयलीं तमीळ भाशेंत बायबलाचो अणकार जालो. रॉबर्ट द नेबिली ह्या रोमन कॅथॉलिक मिशनऱ्यान मदुरेंत रावन क्रिस्तांव धर्माचीं बरींचशीं पुस्तकां तमीळ भाशेंत बरयलीं. रॅव. सीजबेस हो जेझुईत मिशनरी सतराव्या शेंकड्यांत भारतांत येवन ताणें तमीळ भाशेचो आनी वाङ्मयाचो खोलायेन अभ्यास करून, तमीळ भाशेंत तेवीस ग्रंथ बरयले अशें सांगतात. मुसलमान कवींनीय तमीळनाडूंत बरेंचशें लिखाण केलां. तांचे चडशे ग्रंथ धर्माविशींचे आसून आइर्मसल, सिरकीर्तनम्, पेनपुत्तिमलै, वैत्तियरातकम् अशीं तांचीं नांवां आसात.

तमीळ दार्शनिक ग्रंथांनी जग, ईश्वर, आत्मो, मन, इंद्रियां हे विशय संस्कृत ग्रंथांक अणसरून बरयल्यात. तर्कशास्त्र, अतींद्रीयविज्ञान आनी नितीशास्त्र ह्या विशयांचेरूय तमीळ भाशेंत ग्रंथ आसात. तर्कसंगकिरकम् हो ग्रंथ संस्कृत तर्कशास्त्रावयल्यान अणकारला. नितीशास्त्राच्या ग्रंथांनी कुरळ हो ग्रंथ सगल्यांत श्रेश्ठ आसून, नीतिचूडामणी, गोविंदशतकम्, कुमारेशशतकम् अशे कितलेशेच ग्रंथ तमीळ भाशेंत निर्माण जाल्यात.

तमीळ साहित्यांत वैद्यक शास्त्राचेरूय बरेच ग्रंथ आसात. वैद्यकशास्त्र हो तमीळनाडूंतल्या लोकांचो आवडटो विशय. डॉ. ग्रीन हाणें ११७ तमीळ वैद्यकग्रंथांची यादी उजवाडायल्या.

अगस्त्य ऋषीन तमीळ भाशेंतलें पयलें व्याकरण बरयलें अशें म्हण्टात. पूण तें सद्या उपलब्ध ना. ताचो शिश्य तोळकाप्पियर हाणें बरयल्लें तोळकाप्पियम् नांवाचें व्याकरण मात उपलब्ध आसा. पवनंती हाचें नंदुल नांवाचें व्याकरणूय उपलब्ध आसून तातूंत ४६२ सुत्रां आसात.

शूळामणिनिघंटू हे तमीळ शब्दकोश इ. स. च्या णवव्या शेंकड्यांत गुणभद्राचो शिश्य मंडलपुरूश हाणें तयार केलो. तमीळ भाशेंतलीं कांय पुराणां, सगल्यांत पोरण्या संस्कृत पुराणांपरसूय पोरणीं आसात. स्कंद पुराणाचो एक वांटो 'सूतसंहिता' आनी 'भागवत' हीं पुराणां तमीळ भाशेंत खूब पयलीं अणकारल्यांत. तमीळ भारत हो ग्रंथ संघम्‌काळांतलो. सुंदरमूर्ती हाणें बरयल्लो 'त्रेसष्टसंतचरित्रां' हो ग्रंथ पुराण अशें मानतात. पुराणसागर नांवाचो एक जैन ग्रंथ इ. स. च्या ११ व्या शेंकड्याच्या अदमासाक रचला. बाराव्या शेंकड्यांत कुलोत्तुंग चोळाचे कारकिर्दींत एका कवीन अष्टादशपुराण नांवाचो ग्रंथ बरयलो.

**आर्विल्लो काळ** :– एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक तमीळ भाशेंत बरींच ल्हान – व्हड काव्यां निर्माण जालीं. कांय नाटकांचेंय बरोवप जालें. ह्या काळांत कांय संस्कृत ग्रंथांचे अणकारूय जाले. रामलिंग स्वामिगळ, वेदनायवन् पिळ्ळै आनी कृष्ण पिळ्ळै हे एकुणिसाव्या शेंकड्यांतले प्रतिभासंपन्न अशे कवी. रामलिंग स्वामिगळ हो भक्तीमार्गी संत. ताणें आपल्या हजारांनी गितांतल्यान विश्वप्रेमाचो आनी भूतदयेचो उपदेश केला. 'तिरुअरुळ्पा' म्हळ्यार कृपागीत ह्या नांवान ताचो काव्य झेलो आसा. ताच्या ह्या काव्याक खूब नामना मेळ्ळी. ताचो हो काव्य झेलो लोकांनी नवो वेद म्हणून आपणायला.

ह्याच शेंकड्यांत मीनाक्षीसुंदरम् पिळ्ळै आनी गोपालकृष्ण भारती नांवाचे दोन व्हड कवी जावन गेले. पिळ्ळै हो कवी तसोच ग्रंथकार. ताणें सोळा स्थलपुराणां आनी बत्तीस हेर वाङ्मयीन ग्रंथ बरयल्यात. ताणें आपले काव्यरचनेन आनी गद्य लिखाणान तमिळ साहित्यांत मोलादीक भर घाल्या. गोपालकृष्ण भारती हाणें 'नंदनचरित्रम्' हें काव्य बरयलें. हरिजन संत नंदनार हाच्या चरित्राचेर हें काव्य आसा.

डॉ. स्वामिनाथ अय्यर आनी वेदनायकम् पिळ्ळै हे मीनाक्षीसुंदरम पिळ्ळैचे शिष्य. पेण्मतिमालै, नीतिनुल आनी सर्वसमय किर्तनै हे वेदनायकम् पिळ्ळै हाचे मोलादीक काव्य झेले आसात. रक्षण्ययात्रिकम् हें एच. ए. कृष्ण पिळ्ळै हाणें जॉन बन्यनच्या 'पिल्ग्रिम्स प्रोग्रॅस'चो अणकार केला. ताची दुसरी रचणूक रक्षण्यमनोहरम् ही आसून तिच्यांत भक्तिगीतां आसात.

मुरुगदासस्वामी वा दंडपाणिस्वामी हाणें आपल्या पुलवरपुराणम् हातूंत कांय तमीळ कवींचीं पद्यमय चरित्रां बरयल्यांत. तिरूवरंग – तिरूवायिरम् आनी तिरूमगळ अंदादि हे ताचे हेर काव्यझेले आसात. आरूमुखनावलर, नागनाथपंडितर, दामोदरम् पिळ्ळै ह्या लंकेतल्या जाणकारांनीय ग्रंथ रचून तमीळ भाशेचे उदरगतीक खूब हातभार लायला. सूर्यनारायण शास्त्री, राजम् अय्यर आनी माधवय्या हांची ह्या काळांतले खांपे लेखक म्हणून नामना आसा.

आर्विल्ले कवितेच्या क्षेत्रांत सुंदरम् पिळै आनी कृष्ण पिळ्ळै हांचीं नांवां सगल्यांत पयलीं आसून तांचे उपरांत सुब्रह्मण्यम् भारती ह्या राश्ट्रभक्त कवीचें नांव येता. हाणें आपले काव्य रचनेन तमीळ कवितेचें नवें युग सुरू केलें. सुब्रह्मण्यम् भारती हाका तमीळींतल्या बाह्यसाहित्याचोय जनक मानतात. 'पापापाटु' हें ताचें काव्य शाळकरी भुरग्यांचें आवडटें अशें काव्य. 'पांचाली शपथम्' हें ताचें लघुमहाकाव्य आसून 'कुयिलपाट्टु', 'कण्णन् पाट्टु' हीं काव्यांय लोकप्रिय आसात.

सुब्रह्मण्यम् भारती हाचे परंपरेंत देशिक विनायकम् पिळ्ळै, भारती दासन्, नामक्कल रामलिंगम् पिळ्ळै, शुध्दानंद भारती अशे नामनेचे कवी निर्माण जाले.

नामक्कळ रामलिंगम् पिळ्ळै हो गांधीवादी आदर्श मानपी कवी जाल्यार राय चोक्कलिंगम् हाणें गांधीजीचे जिणेचेर आनी शिकवणेचेर कविता बरयल्यात. असलांबीगै अम्माळ हाणेंय गांधीजीचेर 'गांधी पुराणम्' (२ खंड) काव्य बरयलां. शुध्दानंद भारती हाणें बरींचशीं काव्यां रचून तमीळ साहित्यांत भर घाल्या. तातूंतलें ताचें 'भारत शक्ति महाकाव्यम्' हें नामनेचें काव्य आसा. तिरू वि. कल्याणसुंदरम् मुदलियार, स्वामी विकलानंदर हे नामनेचे कवी. एम. डी. एस. योगी हो उत्स्फूर्त कवी आसून 'मारिया माग्दालिन' आनी 'अगळीगै' हे ताचे दोन म्हत्वाचे काव्यझेले आसात. पेरियस्वामी तूरन् हो सोंपे आनी प्रभावी शैलीचेर प्रभुत्व आशिल्लो कवी. तशेंच अळ वल्लियप्पा हो बालगीतकार आसून कि. वा. जगन्नाथन्, वाणीदासन्, कंबदासन्, कृष्णदासन्, मुदियरासन्, इळंतिरैयन्, तंगवेलन्, कुयिलन्, तुरैवन्, सुरबी, तमीळ अळगन, इलन् कंबनप्रभृती हे कवी

आर्विल्ल्या विशयांचेर काव्य - लिखाण करतात.

**गद्य** - एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत गद्यलिखाणाची गरज जाणवूंक लागिल्ल्यान नेमाळ्यांतल्यान, धर्मीक ग्रंथांतल्यान, पाठ्यपुस्तकांतल्यान गद्यलिखाणाचो वापर जावंक लागलो. १८४० वर्साचे सुर्वेकसावन व्हड प्रमाणाचेर गद्यग्रंथ - लिखाण निर्माण जावंक लागलें. आरुमुग नावलर हाणें 'पेरियपुराणम्' ह्या शैव महाकाव्याचो गद्य अणकार केलो तशेंच धर्मीक विशयांचेर ताणें तमीळींत ग्रंथ बरयले. ताणें तमीळींत पाठ्यपुस्तकांय सगल्यांत पयलीं बरयलीं.

वेदनायकम् पिळ्ळै हाणें सोंपे शैलींत आपल्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो. सी. डब्ल्यू. दामोदरम् पिळ्ळै हाणें 'तोलकाप्पियम्', 'वीरचोलियम्' आनी 'चूडामणि' हे प्राचीन ग्रंथ संपादीत करून तांकां टिपटिपण्यो जोडल्यो. वी. जी. सूर्यनारायणशास्त्री हाणें 'मतिवाणन्' नांवाची कादंबरी बरयली.

डॉ. स्वामिनाथ अय्यर हाणें गद्यशैलींत खूब ग्रंथ बरयले. पूण आपलो गुरू मीनाक्षीसुंदरम् पिळ्ळै ह्याचें चरित्र आनी आत्मचरित्र हे ताचे म्हत्वाचे ग्रंथ आसात.

स्वामी वेदाचलम् वा मरैमलै अडिगळ हो शुध्द तमीळ गद्याचो पुरस्कर्तो आशिल्लो. टी. सेलवकेशवराय मुदलियार हाच्या कंबन आनी तिरूवळ्ळुवर हांचेवयल्या समिक्षाग्रंथांचो मुजरत उल्लेख करचो पडटा. तिरु वि. कल्याणसुंदरम् मुदलियार हाणें तमीळ गद्याक आकर्शक अशें रूप दिलें. ताचें 'तिरु वि. क. वाळ्क्कैक्कुरिप्पुक्कळ' हें आत्मचरित्र खाशेलें आसा. तो एक उत्कृश्ट संपादक, राजकारणी आनी प्रभावी वक्तो आशिल्लो. 'पेण्णिन पेरुमै अल्लतु वाळ्कैत्तुणै' म्हळ्यार 'बायलांचें व्हडपण' तशेंच तिरुक्कुरळच्या सुर्वेच्या कांय प्रकरणांवयलें विस्तारान केल्लें भाश्य हे ताचे ग्रंथ मुजरत उल्लेख करपासारके आसात.. राजाजी हाचे महाभारत आनी रामायण ह्या ग्रंथांक खूब नामना मेळ्ळ्या.

आर्विल्ल्या काळांतल्या लेखकांनी वृत्तपत्रकार म्हणून लिखाणाच्या मळार पावल घालें आनी उपरांत तांकां निबंदकार, कादंबरीकार आनी लघुकथाकार म्हणून नामना मेळ्ळी. अशा लेखकांभितर 'कल्की' (आर्. कृष्णमूर्ती) हांची सुवात म्हत्त्वाची आसा. ताच्यो 'शिवगामियिन् शपथम्', 'पार्थिवन् कणवू', 'मोगिनी - तीवु', आनी 'पेन्नियिन शेलवन्' ह्यो इतिहासीक स्वरुपाच्यो कादंबऱ्यो आसात. तेचभाशेन ताच्यो 'कलवनीन कादली', 'शोलै मलै इळवरशी', आनी 'अलै ओशै' ह्योय ताच्यो कादंबऱ्यो उंचेले प्रतीच्यो मानतात. ताचे हेच अलै ओशै हे कादंबरीक १९५६ वर्सा साहित्य अकादमी पुरस्कार फावो जाला. जगवीर पांड्यन् आनी शुध्दानंद भारती हांणीय खूब प्रमाणांत गद्य लिखाण केलां. नामक्कळ रामलिंगम् पिळ्ळै ह्या कवीन लेगीत गद्य लिखाण केलां. ताणें बरयल्लें आत्मचरित्र उल्लेख करपासारकेंआसा.

तमीळ समीक्षेच्या क्षेत्रांत आर्. पी. सेतू पिळ्ळै, ए. श्रीनिवास राघवन्, डॉ. ए. सी. चेट्टियार, ए. एस. ज्ञानसंबंधन्, रघुनाथन्, टी. पी. मीनाक्षीसुंदरम् पिळ्ळै, कि. वा. जगन्नाथन्, भास्कर तोंडैमान, एम्. वरदराजन् आनी अव्वै सु. दोरैस्वामी पिळ्ळै हांचो उल्लेख करप चड गरजेचें. आर्. पी. सेतू पिळ्ळै हाणें 'शिलप्पधिकारम्' आनी 'तिरुक्कुरळ' ह्या ग्रंथांवयलें समिक्षेवयलें लिखाण तमीळ समिक्षेंतली म्हत्वाची भर म्हणची पडटली.

ए. के. चेट्टियार आनी एस्. एम्. लक्ष्मण चेट्टियार हाणें भोंवडेवर्णनां बरयल्यांत. एस्. एम्. लक्ष्मण चेट्टियार हो एक बरो समिक्षकूय आसा. वी. स्वामिनाथ शर्मा, डॉ. राजमणिक्कम् पिळ्ळै, एन्. एस्. कंदय्य पिळ्ळै, के. अप्पादुरै पिळ्ळै, ए. के. परंधामनार, पी. एन्. अप्पुस्वामी, टी. पी. नवनीतकृष्णन्, मु. अरुणाचलम्, पेरियस्वामी तूरन्, एम्. आर. एम्. अब्दुल रहीम ह्या लेखकांनी इतिहास, चरित्र, विज्ञान, मानसशास्त्र, कुक्कुटपालन, उद्यानविज्ञान, शेतकी, शिवणकला, राज्यशास्त्र, अर्थशास्त्र, सहकार, भलायकी, शिक्षण अशा विंगड विंगड विशयांचेर लिखाण केलां.

**कथा** - 'मंगयारक्करसियिन कादल मुदलिय कथैगळ्' हो वी. वी. एस्. अय्यर हाचो ह्या शेंकड्याचे सुर्वेचो कथाझेलो आसा. माधवैया ह्या एका म्हयनाळ्याच्या संपादकान खूब कथा बरयल्यात. पुदुमैप्पित्तन ह्या प्रतिभासंपन्न अशा लेखकान शंबरांवयर लघुकथा बरयल्यात. के. पी. राजगोपालन्, कल्की, रामैया हेय नामनेचे कथालेखक आसात. तेचप्रमाण एन्. पिच्चैमूर्ती, देवन, अरू रामनाथन्, ति. ज. रामनाथन्, विंधन्, राधा मणालन्, मायावी, जयकांतन्, अकिलन, कि. वा. जगन्नाथन् ह्या लेखकांनी हेर तमीळ साहित्यावांगडा व्हड प्रमाणांत कथा - लिखाणूय केलां.

**कादंबरी** - तमीळींत कादंबरी लिखाणाची सुरवात वेदनायकम् पिळ्ळै हाणें केली. 'प्रताप मुदलियार चरित्रम्' आनी 'सुगुण सुंदरी' ह्यो ताच्यो कादंबऱ्यो खूब लोकप्रिय जाल्यो. ए. माधवैया हाची 'पद्मावती', बी. आर. राजम् अय्यर हाची 'कमलांबाळ', सरवण पिळ्ळै हाची 'मोहनांगि', सरसलोचन चेट्टियार हाची 'सरसांगी' ह्यो उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो आसात. आर्णी कुप्पुसामी मुदलियार, वदुवूर दुरैसामी अय्यंगार आनी वी. एम्. कोदैनायगी हांणी खूब कादंबऱ्यो बरयल्यात. जगसिप्पियन् हाची 'पतिनिकोट्टम्'; शांडिल्यन् हाच्यो 'यवनराणी', 'नागदीपम्', 'कडलपुरा (५ वांटे); मणिशेखरन् हाची 'ओरुकोडियिल इर्मलर्कळ'; एल्. आर्. वि. हाची 'मधुलरुम् वंडुम् ह्यो नामनेच्यो इतिहासीक कादंबऱ्यो आसात. वी. रामस्वामी अय्यंगार, सी. एन्. अण्णादुरै, लक्ष्मी, अकिलन् (पेरुंगळूर वैद्यलिंगम् पिळ्ळै), के. एन्. सुब्रह्मण्यम्, सोमू, रघुनाथन्, सुकी, विंधन्, अनुत्तमा, राधा मणालन्, एम्. वरदराजन्, जीव, पार्थसारथी आनी पिळ्ळै विल्लालन्, गोमती स्वामिनाथन् ह्या लेखकांनी समाजीक विशयांचेर कादंबरी - लिखाण केलां.

**नाटक** - नामनेचे कवी आनी विद्वानांनी आपलें लक्ष्य फकत अभिजात साहित्याचेरूच केंद्रीत केलें आनी ताका लागून फकत सामान्य दर्जाच्या लेखकांनीच ही तमीळ नाट्यपरंपरा फुडें चलयली. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत मात अस्तंती लोकांकडेन संपर्क आयिल्ल्यान कांय प्रतिभासंपन्न व्यक्तींनी स्फूर्त घेवन रंगमाचयेक नवो जल्म दिलो. ह्या व्यक्तींभितर शंकरदास स्वामिगळ, पोम्मल संबंद मुदलियार, सुंदरम् पिळ्ळै आनी सूर्यनारायण शास्त्रियार हांचो आसपाव जाता.

शंकरदास स्वामिगळ हो संन्यासी आशिल्लो. ताणें सगल्या भारतभर भोंवडी करून नाट्यसंस्थांच्यो संघटणा उबारल्यो आनी वेवसायीक कलाकारांक उत्तेजन, उर्बा दिवन संगीत नाटकां बरयलीं. पोम्मल संबंद मुदलियार हाणेंय नाट्यकलेंत आपली चडशी जीण सोंपयली. ताणें सुमार ८५ नाटकां बरोवन कांय नाटकांचे जैतवंत प्रयोगूय केले. ताच्या नाटकांनी 'सभापति' हें विनोदी नाटक उत्कृश्ट. ताचेंच 'मनोहरा' हेंय नाटक दर्जेदार आसा. सुंदरम् पिळ्ळै हाणें शेक्सपिअरच्या नाटकांच्या धर्तेचेर बरयल्लें 'मनोन्मणियम्' ह्या नाटकाक तमीळींत अभिजात नाटकाचो दर्जो फावो जाला. ताच्या ह्या नाटकाचीं जायतीं रुपांतरां आनी प्रयोग जाल्यात. समिक्षक, कवी आनी नाटककार सूर्यनारायण शास्त्रियार हाणें,

तमीळ नाटकाची उदरगत घडोवन हाडपाखातीर खूब यत्न केले. ताणें रुपवति, कलावति आनी माणविजयम् हीं नाटकां तशेंच नाट्यकलेचेर समिक्षक लिखाण केलां. तशेंच 'नाटक इयल' हे एके नाट्यकलेचेरूय ताणें एक व्याकरणात्मक ग्रंथ बरयला. टी. लक्ष्मण पिळ्ळै हाची 'विळ नाटकम्' आनी 'रविवर्मा' हीं नामनेचीं नाटकां बरयल्यांत.

आर्विल्ल्या नाटककारांभितर एस. डी. सुंदरम्, पी. कण्णन्, सी. एन्. अण्णादुरै, कोत्तमंगलम् सुब्बू, श्रीधर, ए. पी. नागराजन् हांचो उल्लेख करचो पडटलो. हातूंतले कांय नाटककार उपरांत चित्रपटांखातीर लिखाण करूंक लागले.

बंगाली, मराठी आनी हेर भाशांतल्यो उत्कृश्ट कथा-कादंबऱ्यो आनी नाटकांचेय तमीळ भाशेंत अणकार जाल्यात. अशा तमीळ भाशेंत अणकार करपी लेखकांभितर का. श्री. श्रीनिवासाचार्य, ता. ना. सुब्रह्मण्यम्, एम्. एल्. सबरीराजन्, ए. के. जयरामन् हांचो व्हड वांटो आसा.

**स्वातंत्र्याउपरांतचो काळ** : स्वातंत्र्या उपरांत लोकशाय मुल्यांचो विकास आनी शिक्षणाचो विस्तार जाल्ल्यान तमीळ साहित्याचो आशय आनी अभिव्यक्ती हातूंत मुळावे बदल घडले. स्वातंत्र्यापयलीं तमीळ ललीत साहित्याचो आशय उच्च समाजापुरतोच शिमीत आशिल्लो तो स्वातंत्र्या उपरांत ल्हव ल्हव करून समाजाचे सगले थर तमीळ साहित्याचे विशय जाले. अभिव्यक्तीचे बाबतिंतूय नवी जाणीव आयली.

**काव्य** - आर्विल्ल्या तमीळ काव्याचें मुळावण सुब्रह्मण्यम भारती हाणें घालें. कल्याणसुंदरम् हाणें 'अगवल' छंदांत आपली काव्यरचना केली. भारतीदासन् हाणें 'मेल कुमिळिगळ' हें काव्य तशेंच 'कुरिंजी - त्तिट्टु', 'इरंड वीडु', 'कुडुंब विळक्कु' ह्या आपल्या काव्यांनी लोकशाय, शिक्षण, प्रेम आनी कर्तव्याची जाणविकाय हांचो पुरस्कार केला. ताणें आपल्या गितांतल्यान मजूर, विणकार, कामगार हांचीं चित्रणां चित्रायल्यांत. भारतीदासन् हाच्याच संप्रदायांत वाणीदासन्, सुब्बू रत्नन् दासन् (सुरदा), मुडी अरसन् हांचो आसपाव जाता. मुडी अरसन् हाणें मणिमेखलै ह्या म्हाकाव्याचेर आदारित 'पूंगोडि' हें नवें कथाकाव्य बरयलें.

देशिकविनायकम् पिळ्ळै हाणें कांय गितांचे तशेंच बालगितांचे तमीळ अणकार केल्यात. शुध्दानंद भारती हाणें 'भारत महाशक्ति काव्यम्' नांवाचें बृहत् काव्य बरयलें. नामक्कळ कविज्ञर हो तमीळनाडूचो राजकवी तशेंच पेरियस्वामी तूरन् हो नामनेचो कवी.

कवी, कादंबरीकार, कथाकार आनी भोंवडेवर्णनकार सोमू वा एम्. पी. सोमसुंदरम् हाका ताच्या 'इळवेनिल' ह्या काव्यझेल्याक तमीळनाडू सरकाराचो पुरस्कार फावो जाला. शुध्दानंद योगी हाचो 'मनिदनैप्पादुवेन' हो काव्यग्रंथ उल्लेखनीय आसा. उपरांत योगी, चित्रपटांखातीर गितां बरोवंक लागलो. तिरुल्लोक सीताराम हाचें 'गंधर्व गणम्' हें काव्य उत्कृश्ट आसा.

ए. श्रीनिवास राघवन् हो एक बरो अणकारपी, समिक्षक, वक्तो आनी कवी. ताच्या 'वळ्ळैप्परावै' ह्या काव्यझेल्याक १९६८ वर्सा साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळा. के. स्वामीनाथन्, रा. श्री. देशिकन्, हांणीय तमीळ साहित्यांत मोलादीक भर घाल्या.

तुरैवन्, सेंतामरै, आर्. अय्यस्वामी ह्या कवींनी आकाशवाणीखातीर काव्यरचना केल्या. जीव, रघुनाथन्, पट्टुकोडै कल्याणसुंदरम्, के. सी. अरुणाचलम् ह्या कवींचो साम्यवादी विचारसरणीच्या कवींभितर आसपाव जाता. रघुनाथन् हाणें कांय रशियन कविता तमीळ भाशेंत अणकारल्यात.

कण्णदासन् हो म्हत्वाचो कवी आसून, प्रसन्न लय, गेयता आनी ताचे रचनेचें प्रभुत्व हीं ताच्या काव्याचीं खाशेलपणां आसात. चित्रपटांखातीरूय ताणें गितां बरयल्यांत. संघम् काळांतल्या कांय गितांचो ताणें आर्विल्ले तमीळ भाशेंत अणकार केला. 'मांगनि' सारकीं कांय कथाकाव्यांय ताणें बरयल्यांत.

नव्या दमाच्या कवींभितर सालै इलंतिरैयन, राजेंद्रन्, इळंपरिदी, शक्ति-क्कनल, एलिलमुदवन्, सिर्पी हांचो आसपाव जाता. राजेंद्रन् हाचे काव्य-रचनेक तमीळनाडू सरकाराचो पुरस्कार फावो जाला. सिर्पी हाचें 'सिरित्त मुत्तुक्कळ' हें कथाकाव्य खाशेलो उल्लेख करपासारकें. उळ्ंदुरपेट शण्मुगम् हाणें संगीतरचनेखातीर कांय गितां बरयलीं. तशेंच चित्रपटांखातीरूय ताणें गितांचें लिखाण केलां. कोत्तमंगलम् सुब्बू हाची 'विल्लुप्पाड' गितां प्रसिध्द आसात तशेंय बोलीभाशेंत कथाकाव्यां बरोवपाकूय सुब्बूची नामना आसा. ताच्या 'गांधीमहान कदै' ह्या काव्याक खूब नामना मेळ्ळ्या. विंदन् होय एक नामनेचो कथा - कादंबरीकार.

तमीळनाडूचो माजी मुख्यमंत्री करुणानिधी हाणें राजकीय प्रचाराखातीर कवी संमेलनांतल्यान कविता म्हणपी कवींचो एक पंगड तयार केल्लो. कवी संमेलनांनी कविता म्हणपी कवींभितर कि. वा. जगन्नाथन्, अमृतलिंगम्, राजेंद्रन्, मुरूगू सुंदरम्, मुडी अरसन्, श्रीमती सौंदरम् कैलासम्, पेरियन्नन्, एस. एस. एम. सुंदरम्प्रभृती ह्या कवींचो आसपाव जाता. करुणाानिधी हाच्योय कवी संमेलनांतल्यो कांय कविता उजवाडा आयल्यात.

संवसारीक साहित्याच्या आनी हेर भाशांच्या साहित्याच्या संपर्काक लागून तमीळ साहित्यांत नवे नवे प्रयोग जावंक लागले. पुदुमैप्पित्तन आनी कु. प. राजगोपालन् हाणें काव्यरचनेचे विंगड विंगड प्रयोग केले. सुब्रह्मण्यमभारती हाणें वेदांतलो कांय वांटो तमीळींत अणकार करतना मुक्तछंदाचो सगल्यांत पयलीं वापर केलो. उपरांत तूरन् आनी हेर कवींनीय भारतीचें अनुकरण करून मुक्तछंदाचो वापर करपाक सुरवात केली. पिच्चैमूर्ती वा 'भिक्षु' हाणेंय मुक्तछंदाचो उपेग केलो. भिक्षूच्या कवितांचे 'काट्टु वाट्टु' आनी 'वळित्तुनै' हे झेले उल्लेखनीय आसात. टी. एस. वेणुगोपालन् हाणें आपल्या 'कोडैवयल' ह्या झेल्यांत मुक्तछंदाचो वापर केला. तशेंच वैदीश्वरन् हाचो 'उदयनिळल', कामराजन् हाचो 'कुरूप्पु मलरगळ' हे काव्यझेले मुक्तछंदात आसात. 'पुदुक्कुरळगळ' ह्या काव्यसंकलनांत चोवीस कवींच्यो त्रेसठ काव्यरचना आसात. मि राजेंद्रन् हाच्या 'कनुवुगळ + कर्पनैगळ = काडितंगळ' हो अशेच तरेन बरयला.

**कथा** - वी. वी. एस. अय्यर हाच्या कथांसावन आर्विल्ले तमीळ लघुकथेची सुरवात मानतात. लघुकथा लोकप्रिय करून हेरांक प्रायोगिक कथा बरोवंक उर्बा दिवपाचें श्रेय मात कादंबरीकार कल्की हाका फावो जाता. राजाजी हाच्या कथांतल्यान गरीब आनी दलीत लोकांचे जिणेचें चित्रण दिसता. पुदुमैप्पित्तन् होय तमीळींतलो एक श्रेश्ठ कथाकार. विंदन हो श्रमिक कथाकार आसून ताणें आपल्या कथांनी नागरी तशेंच गांवगिऱ्या समाजाचें चित्रण केलां. 'मणिक्कोडि' ह्या नेमाळ्यान कलात्मक जाणविकायेच्या नव्या कथाकारांचो पंगड फुडें हाडलो. ह्या पंगडांतले जी अलगिरिसामी, चिदंबर सुब्रह्मण्यम्, सी. एस्. चेलप्पा, क. ना. सुब्रह्मण्यम, पी. एस्. रामैय्या, रघुनाथन् आनी पिच्चैमूर्ती हे उल्लेखनीय कथाकार आसात. आर्विल्लें जिणेचित्रण, कथातंत्राची जाण आनी प्रायोगिकताय हीं ह्या पंगडाचीं खाशेलपणां आसात.

जी. अलगिरीसामी ०हाच्या 'अणबलिप्पु' ह्या कथाझेल्याक १९७० वर्सा साहित्य अकादेमी पुरस्कार मरणाउपरांत मेळ्ळो. ह्या कथाकारान कांय नाटकांय बरयल्यांत. कि. वा. जगन्नाथन् हो 'कलैमंगल' चो संपादक आनी कथाकार आसा. अकिलन् हाणें पद्यमयबोधकथा आनी रूपककथा बरयल्यात. टी. जानकीरामन् हाची 'वेयिल' ही कथा उत्कृश्ट आसा. ल. स. रामामदम् हाणें आपल्यो कथा पुराणांचे शैलींत बरयल्यात. सुंदरम् रामस्वामी हाणें नागरकोयल हे बोलीभाशेंत आपल्यो कथा बरयल्यात. टी. एन. सुब्रह्मण्यम् हाणें इतिहासीक कथा बरयल्यात. आर. चूडामणी हे कथालेखिकेन विंगड विंगड भावनिक अवस्थांचें चित्रण आपल्या कथांनी चितरायलां. वल्ली - क्कण्णन् हो एक नामनेचो कलाकार आसून परांगुसम्, अशोक मित्रन्, नकुलन् हे नवे पिळगेचे कथाकार आसात.

तमीळनाडूचो सर्गेस्त मुखेलमंत्री, द्र. मु. क. चो फुडारी अण्णादुरै हाणें साहित्य हें समाजीक परिवर्तनाचें साधन मानून आपल्यो कथा बरयल्यो. तशेंच ताणें कांय कादंबऱ्योय बरयल्यात. जयकांतन् हाणें साम्यवादी भुमिकेंतल्यान 'ओरु पिडीसोरू', 'ब्रह्मोपेदेसम्', 'विरुदुगळ', 'पॅरिसकु पो' ह्यो कथा बरयल्यो.

माधवैया ह्या कथाकारा फाटल्याान नटेशशास्त्री, पोन्नुसामी पिळ्ळै, पंडितै विशालाक्षी अम्माळ हे कादंबरीकार फुडें आयले. बडुवूर दुरैसामी अयंगार, कोडैनायकी अम्माळ, अरणी कुप्पुस्वामी मुदलियार हांणी हेर भाशांतल्या कादंबऱ्यांचीं तमीळ भाशेंत रुपांतरां आनी अणकार केल्यात.

फाटल्या पन्नास वर्सांसावन नारण दुरैक्कण्णन् कादंबरी लिखाण करता. 'तरंगिनी' ही राजकी कादंबरी तशेंच 'उयिरोविअम्' अशा ताच्या कादंबऱ्यांक खूब नामना मेळ्ळ्या. उयिरोविअम् हे ताचे कादंबरीचें नाट्य रुपांतरूय जालां. दुरैक्कण्णन् हाचे भशेन डॉ. एम्. वरदराजन् ह्या प्राध्यापकान स्वातंत्र्यापयलींच्या काळासावन लिखाण केलां. ताचे 'अगळ विळक्कु' हे कादंबरीक १९६१ वर्सांचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला. वरदराजन् हाची स्फूर्त घेवन कादंबरी बरोवपाच्या लेखकांभितर के. राजवेलू, पुनुकुंद्रन हांचोय आस्पाव जाता.

अकिलन् हाणें चडशो इतिहासीक कादंबऱ्यो बरयल्यात. ताचे 'वें. गैयिन मैंदन' हे कादंबरीक १९६३ वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला. 'कथा विळी', 'पावै विळक्कु', 'पुतीय वेळ्ळम्' ह्यो ताच्यो कादंबऱ्यो खूब गाजल्यात. ताच्या कांय कादंबऱ्यांचो हेर भारतीय भासांनी तशेंच परकीय भासांनी अणकार जाला. अकिलन् हाका - १९७६ वर्साचो भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाला. ना. पार्थसारथी हाणें 'समुदाय विदि' हे कादंबरीक १९७१ वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला. कुरिंजी मलार, कबाडपुरम् ह्यो ताच्यो हेर कादंबऱ्यो आसात. टी. जानकीरामन् हो एक जैतिवंत कादंबरीकार आसून ताचे 'मोह मूल' हे कादंबरीक खूब नामना मेळ्ळी. चिदंबर सुब्रह्मण्यम् हाची 'इदय नादम्', सी. एस्. चेलप्पा हाची 'जीवनांशम्' तशेंच महर्षी हाच्यो उल्लेखनीय कादंबऱ्यो आसात. का. ना. सुब्रह्मण्यम् हो समीक्षक तसोच कादंबरीकार. ताच्यो 'ओरु नाल', 'पुइत्तेक' ह्यो कादंबऱ्यो आसात.

तमीळींत प्रादेशिक कादंबऱ्योय आसात. आर् - शण्मुग सुंदरम् हाणें कोईमतूर प्रदेशाचे फाटभुंयेचेर बरयल्ली 'नागम्माळ' ही एक उत्कृश्ट कादंबरी. अशे तरेच्यो ताच्यो आनिकूय कादंबऱ्यो आसात. जेसुदासन् हाच्या कादंबऱ्यांनी गुन्यांवकारी वृत्तीचें स्पश्ट चित्रण दिसून येता. नीलम्पद्मनाभन् हाची 'तलैमुरैगळ' ही खाशेली कादंबरी. रामस्वामी हाणें आपले 'ओरू पुलियमरत्तिन् कदै' हे कादंबरेंत नागरकोईल वाठारांतल्या बदलपी राजकी, समाजीक आनी अर्थीक जिणेचें चित्रण केलां. हेर प्रदेशांच्या फाटभुंयेचेरूय ताणें कादंबऱ्यो बरयल्यात. राजम् कृष्णन् हाणें निलगिरींतल्या बडुगांचे जिणेचेर 'कुरिंजी - त्तेन' आनी गोंय मुक्ती आंदोलनाचे फाटभुंयेचेर 'वळै - क - करम्' ह्यो येसस्वी कादंबऱ्यो बरयल्यो. एम. कण्णन् हाच्या 'पेण दैवम्' आनी हेर कादंबऱ्यांनी कुटुंबीक जिणेचें चित्रण दिसता. लक्ष्मी, गौरी, अम्माळ, आर. चुडामणी, अनुत्तमा आनी आर्वी हांच्योय कुटुंबीक जिणेवयल्यो कादंबऱ्यो उल्लेखनीय आसात. रघुनाथन् हाचे 'पनमुम् पसियुम्' हे गाजिल्ले कादंबरींत दलितांचे जिणेचें दर्शन घडटा. हे कादंबरीचे चॅक तशेंच हेर उदेंत युरोपीय भाशांनीय अणकार जाल्यात. सेलवराज हाची 'मरमुम् सरगुम्' ही कादंबरी कलात्मक आसा. शांडित्यन् हाणें व्हड अशो इतिहासीक कादंबऱ्यो बरयल्यात. अरु रामनाथन् हाची 'वीर पांडियन् मनैवी' (५ खंड) ही अशेच तरेची कादंबरी. विक्रमन् हाचे 'नंदिपुस्तु नायकी' हे कादंबरेंत कारैकाल आदित्य चोल हाच्या मरणाउपरांतच्यो घडणुको आसात. ज़गसिर्पियन् हाणें समाजीक तशेंच हेर प्रकारच्यो कादंबऱ्यो बरयल्यात. नेडुमारन् हाची 'पांडिमा देवी' ही इतिहासीक कादंबरी उल्लेखनीय आसा. जयकांतन हाणें कांय कादंबऱ्यो आनी कथा बरयल्यात. ताच्यो 'पॅरिसकु पो', 'ओरु नडिकै नाडगम् पार्किराळ' आनी 'सील मनिदरगल' ह्यो म्हत्वाच्यो कादंबऱ्यो. 'सील मनिदरगल' हे ताचे कादंबरेक १९७२ वर्सा साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जालो.

**नाटक** - रामनाथन् हाचीं राजराजन्, शक्ती, कृष्णस्वामी हाचें कट्टेबोम्मन् हीं नाटकां आनी शिवगामियिन् शपथम् सारक्या कादंबऱ्यांचीं नाट्य रुपांतरा तमीळींत चड लोकप्रिय आसात. टी. के. शण्मुगम् हाणें 'उयिरोवियम्' सारक्या समाजीक कादंबऱ्यांचीं नाट्य रूपांतरां रंगमाचयेर हाडलीं. तेचभाशेन नवाब राजमाणिक्कम् आनी मनोहरन् हांच्या नाटक मंडळ्यांचो उल्लेख करप गरजेचो. सहस्त्रनामम् हाचे 'सेवा स्टेज' हे नाट्यसंस्थेन 'मणिक्कोडि' संप्रदायाच्या पी. एस. रामैय्या हाचीं 'तेरोट्टिइन् मगन्' सारकीं नाटकां बरोवन रंगमाचयेर हाडलीं. हेर नाटककारांचीं सर्वर सुंदरम्, मेजर चंद्रकांत हीं नाटकां उल्लेखनीय आसात. अण्णादुरै हाणें 'ओरि खु', 'नीदि देवन मयक्कम्, वेलैक्करी, नल्ल तंबी अशीं नाटकां बरोवन तातूंत भुमिकाय केल्यात. एम. आर. राधा हाणें स्वता बरयल्लें 'रक्तक्कनिर' हें नाटक माचयेर हाडून तातूंत स्वता कामूय केलें. डॉ. करुणानिधी हाचें 'कागितप्पू' हें नाटक वेंचणूक प्रचाराखातीर बरयलां. हालींच डॉ. ज्ञानमूर्ती तशेंच इंदिरा पार्थसारथी हांचीं नाटकां रंगमाचयेर येतात.

**समिक्षा** : स्वातंत्र्या उपरांतची तमीळ साहित्य समिक्षा आपलें पारंपरिकपण सोडून साहित्यकृतीची साक्षेपी चिकित्सा करपाचेर भर दिल्लो दिश्टी पडटा. आर्विल्ल्या साहित्याची अभिरुची लक्षांत घेवन आशय, आकृतीबंध आनी तंत्र तशेंच साहित्यीक प्रवाहांचे बदल लक्षांत घेवन वास्तवनिश्ठ आनी समाजीक संदर्भांचें भान दवरून केल्ली समिक्षा दिश्टी पडटा. ह्या काळांतले तमीळ साहित्य समिक्षेंत वी. वी. एस्. अय्यर हाची सुवात म्हत्वाची. पुदुमैप्पित्तन् हाणें नव्या कथा - कादंबरीच्या आकलनाचीं कांय म्हत्त्वाचीं सुत्रां आपले समिक्षेंत सांगल्यांत. मरैमळै अडिगळ हाणें पुर्विल्ल्या भाष्यकारांच्या दास्याआड बंडखोरी करून पुर्विल्ल्या ग्रंथांच्या

नव्या भाष्यांची आनी अर्थविवरणांची शक्यताय उक्तायल्या. तिरू. वि. क. हाणें तिरुवळ्ळुवरचे कृतीचेर समिक्षा बरोवन उदार नदरेन तमीळ साहित्याकडेन पळोपाचें आपलें मत उकतायलें. एस. वैयापुरीप्पिळै हाणें संवसारीक साहित्याचें भान दवरून, इतिहासीक नदरेंतल्यान आपलें समिक्षा लिखाण केलां. डॉ. आर्. पी. सेतू पिळ्ळै हाच्या 'तमीळ इन्बम्' ह्या समिक्षा ग्रंथाक १९५५ वर्सा साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला. ताणें आपले आकर्शक शैलींत कंबन, तिरुवळ्ळुवर आनी इळंगो अडिगळ हांची बरी वळख करून दिल्या. डॉ. नवलर सोमसुंदर भारती हाच्या तिरूवळ्ळुवर, कंबन, दशरथ आनी तोल्‌काप्पियम हांचेवयल्या समिक्षा लेखांतल्यान नवी नदर दिसता. आर्. राघव अय्यंगार हाणें संघम काळांतल्या साहित्याचेर अभ्यासपूर्ण ग्रंथ बरोवन त्या काळांतल्या साहित्याचेर नवो उजवाड घाला. कि. वा. जगन्नाथन् हाका ताच्या 'वीरर उलगम्' ह्या समिक्षा ग्रंथाखातीर १९६७ वर्सा साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. डॉ. एम्. वरदराजन् हाणें अकनान् हातूंतल्या एका गिताचेर 'ओवचैदी' हो समिक्षाग्रंथ बरयला. डॉ. टी. पी. मीनाक्षीसुंदरम् हाणें शिलप्पधिकारम्, तिरूक्कुरळ, पेरियपुराणम् ह्या ग्रंथांचेर समिक्षा बरयल्यात. मार्गबंधू शर्मा हाणें 'शिलप्पधिकारम्' हाचेर नवे नदरेंतल्यान टिका केल्या. ए. श्रीनिवास राघवन् हाणें कंबनाचेर अभ्यासपूर्ण समिक्षाग्रंथ बरयला. प्रा. रामकृष्णन हाणें कंबन आनी मिल्टन हांची अभ्यासात्मक तुळा करून एक दर्जेदार ग्रंथ बरयला. र. श्री. देशिकन हाचे समिक्षेंत संवसारीक संदर्भ दिसतात. प्रा. ए. एस. ज्ञानसंबंधम् हाणें कंब रामायणांतल्या व्यक्तींचो चिकित्सक अभ्यास करून एक ग्रंथ बरयला आनी 'पेरियपुराणम्' हाचेरूय ताचो एक ग्रंथ आसा. ए. एस. ज्ञानसंबंधम्, एम. वरदराजन् आनी रघुनाथन्, क. ना. सुब्रह्मण्यम् हांणी कलासमिक्षेचेर म्हत्वाचें ग्रंथलिखाण केलां. क. ना. सुब्रह्मण्यम् हाचो आधुनीक साहित्याचेरूय एक दर्जेदार समिक्षाग्रंथ आसा. मुनुशिवम् हाचो कंब रामायणावयलो 'अशोक वनम्', डॉ. एम्. दुरै रंगस्वामी हाचो 'अन्बुनेरी', डॉ. व्ही. एस्. पी. मणिक्कम् हाचो 'तमीळ – कादल', डॉ. गोविंदस्वामी आनी रामनाथन् हांचे भारतीदासन् हाचेवयले अभ्यासपूर्ण ग्रंथ चड म्हत्वाचे आसात. तशेंच अण्णांचो कंबनच्या काव्यावयलो 'कंब रसम्', टी. के. शण्मुघम् हाचो तमीळ नाटकांवयलो ग्रंथ, क. अप्पादुरै हाची 'तिरूक्कुरळ' हाचेवयली समिक्षा, के. कोदंडपाणी पिळ्ळै हाचो 'नेडुनल वादै' हाचेवयलो समिक्षाग्रंथ, डॉ. इळंतरयन् हाची आर्विल्ल्या तमीळ काव्यावयली आनी लघुकथांवयली विस्कटावणी, जयकांतन् हाणें अभ्यास करून विंगड विंगड ग्रंथांक बरयल्ल्यो प्रस्तावना तेच भाशेन राजाजी हाचे तिरुक्कुरळ आनी तिरुमंतिरम् हांचेवयल्या ग्रंथांचो मुजरत उल्लेख करूंक जाय. म. पो. शिवज्ञानम् हाच्या 'वळ्ळलार कंड ओरुमैप्पाडु' ह्या ग्रंथाक १९६६ वर्सा अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. ताच्या ह्या ग्रंथांत संत रामलिंग हाचो काळ, ताचें व्यक्तिमत्व आनी कर्तृत्व हांचो परामर्श आसा.

**चरित्रां** : तमीळ साहित्यांत चरित्रांचेरूय दर्जेदार अशें लिखाण जालां. बरणीधरन् हाणें 'अरुणाचल महिमै', 'पूनित पयनम्' हे चरित्रग्रंथ बरयल्यात. पी. एस. आचार्य हाणें बरयल्लें रामानुजांचें चरित्र 'श्री रामानुजर' हाका १९६५ वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला. राजाजी हाच्या 'चक्रवर्ति तिरूमंगन्' ह्या ग्रंथाक १९५८ वर्सा साहित्य अकादेमी पुरस्कार तशेंच ताच्या 'रामकृष्ण उपनिषद' हाका तमीळनाडू सरकाराचो पुरस्कार फावो जाला. ताचे 'व्यासर विरुंदु' हो ग्रंथ आनी 'रामायण', 'महाभारत' हांच्यो तमीळ गद्य आवृत्त्यो उल्लेखनीय आसात. गणपती हाणें मीरा, शारदामणी देवी हांचीं चरित्रां बरयल्यांत. कृपानंद वारिय हाच्या ग्रंथांत भक्तिसाहित्याची विस्कटावणी आसा.

आर्विल्ल्या काळांत तमीळ साहित्यांत विंगड विंगड साहित्य विशयांचेरूय लिखाण जालां. तातूंतलें मुखेल साहित्य अशें आसा. शेषाद्रिनाथन्, पी. एन्. अप्पुस्वामी, प्रा. ई. टी. राजेश्वरी, डॉ. सुब्बू रेड्डियार. प्रा. तिरुज्ञान संबंधम्, प्रा. माणिक्कम्, प्रा. विश्वनाथन् हांणी भौतिक विज्ञानांचेर तमीळींत उत्कृश्ट लिखाण केलां. मानसशास्त्राचेर डॉ. टी. ई. शण्मुघम्, तुरन् आनी चुडामणी हांणी बरयलां जाल्यार डॉ. निवासन् आनी हेरांनी वनस्पतीविज्ञानाच्या साहित्यांत भर घाल्या. गणेशन् आनी हेरांनी अभियांत्रिकी विशयाचेर आनी डॉ. वेंकटस्वामी हाणें वैजकीचेर दर्जेदार लिखाण केल्लें आसा. जी. आर. दामोदरन् हाच्या संपादनाखाल 'कलैक्कतिर' हें विज्ञानाचें तमीळ नेमाळें चलता.

**भुरग्यांचें साहित्य** : तमीळ साहित्यांत, भुरग्यांविशीं खास अशी साहित्य निर्मिती जावंक ना तरी हालीं कांय नेमाळ्यांवरवीं भुरग्यांचें साहित्य उजवाडा येता. अशा ह्या नेमाळ्यांनी बोधकथा, परीकथा, पुराणांतल्या कथांचो आसपाव जाता. वलिअप्पा, देशिक विनायकम् पिळ्ळै हांणी भुरग्यांखातीर उत्कृश्ट अशीं गितां बरयल्यांत. भुरग्यांच्या पदांचो भारतीदासन् हाचो 'इलैंनर इळकिक्यम्' हो पदां - झेलो आसा. तेच भाशेन तूरन्, ती. ज. रघुनाथन्, सरस्वती रामनाथ, आर्वी, पूवन्नन्, वैगोविंदन्, चुडामणी, तंगमणी, तुविलन्, अळमवेलन्, राजम्, अ. ले. नटराजन्, तमिळवेनम्, वल्लिअप्पा, तंबी हांणी भुरग्यांखातीर काणयो बरयल्यात. तमीळ अकादेमीचें भुरग्यांखातीर विश्वकोशाचें काम चालू आसा.

**आत्मचरित्र** : स्वातंत्र्या पयलींच्या काळांतलीं डॉ. यू. व्ही. स्वामिनाथ अय्यर हाचें एन्. चरितिरम्, तिरु वि. क. हाचें 'वाल्कै - क्कुरिप्पुकल' हीं उल्लेखनीय आत्मचरित्रां. कविज्ञर कन्नदासन् हाचीं 'वनवासम्' आनी 'मनवासम्' हीं दोनूय तमीळींतलीं म्हत्वाचीं आत्मचरित्रां.

**भोंवडेवर्णन** : तमीळींत तिरु वि. क., ए, एम्. परमशिवानंदम्, ए. के. चेट्टियार, सोमले शुध्दानंद भारती, कल्की, देवन, एन् डी सुंदरवडिवेलू, मणियन्, टी. के. शुण्मुघम् हांणी परदेशांतलीं भोंवडेवर्णनां बरयल्यांत. मी. प. सोमसुंदरम् हाच्या 'अक्करै चीमियिल' ह्या इंग्लंडच्या भोंवडेवर्णनाचेर बरयल्ल्या ग्रंथाक १९६२ वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला. आर. वेंकटरामन् हाकाय ताचे रशियन भोंवडेवर्णनाखातीर सोव्हिएत लॅंड पुरस्कार मेळ्ळा.

– कों. वि. सं. मं

## तय : (पळेयात तिरोदस).

## तरंगां :

कोंकणांतल्या ग्रामदेवतांचें प्रतीक. हें तयार करपाखातीर चार ते पांच हात लांबायेचो लांकडाचो वाटकुळो खांबो घेवन ताका पुडवें वा कापड गुठलायतात आनी ताच्या माथ्यार, धातूपसून तयार केल्लें देवीचें मुखें, हात वा कळस बसयतात. ह्या खांब्याकूच तरंग म्हण्टात. कोंकणांतल्या जायत्या ग्रामदेवतांचीं अशीं तरंगां दसऱ्या दिसा नाचयत, वाजयतगाजयत कळंबाच्या झाडाखाला व्हरतात आनी थंय कळंबासकट

ताची पुजा करतात. उपरांत थवय आनी मडवळ हातांत सुरो घेवन 'भल्ले रे भले' अशें म्हणत ओणवो रावन ताका प्रदक्षिणा घालतात.



तरंग घेवपी मनीस भगत, गुरव, म्हालो, मडवळ, भंडारी वा थवय हांच्यांतले एके जातीचो आसता. ताका मोड म्हण्टात. ताच्या आंगांत त्या त्या देवाचो संचार जाता. हाका अवसर येवप म्हण्टात. ते लोकांचे भूतबादेचेर उपाय सांगतात. प्रसादाच्या रुपान 'कौल' दितात.

भूतनाथ आनी पावनाई ह्या दोन देवतांच्या तरंगांमदीं अंतरपाट धरून मंगलाश्टकां म्हण्टात, हाका शिवलग्न अशें नांव आसा. गोंयांत भोवतेक देवळांनी दसऱ्याक तरंगांची मिरवणूक काडटात. पेडणें, काणकोणचीं तरंगां प्रसिध्द आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**तरणतारण :** शीखांचें एक तीर्थस्थळ आशिल्लें तळें. तरणतारण म्हळ्यार भवसागर तरून व्हरपी एक तराफो. हें तळें अमृतसर वाठारांत आसा. इ. स. १५९०त गुरू रामदासाच्या भौवमानार्थ पांचवो गुरू अर्जुनदेव हाणें हें तळें बांदलें. हाची लांबाय ९९९ फूट आनी रुंदाय ९९० फूट. ह्या तळ्याचे देगेर अर्जुनदेवाचें एक देवूळ आसा. रणजितसिंग हाणें हें तळें मुखावयलेवटेन तांब्यान नटयलां आनी ताचेर नक्षीकाम केलां. इ. स. १५९६त अर्जुनदेवान ह्याच नांवाचें हांगा एक शार वसयलां.

ह्या तळ्याच्या उदकान रोग बरे जातात अशी शीखांची श्रध्दा आसा. ह्या तिर्थांत न्हावपाखातीर वैशाख म्हयन्यांत हांगा जात्रा भरता. तळ्यामदीं एक गुरुद्वारा आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**तरवाड :** केरळ वाठारांत नायर लोकांचीं मातृसत्ताक पद्दतीन चलपी जीं कुटुंबां आसात, तांकां तरवाड अशें म्हणटात. तरवाडांतलीं सगलीं मनशां एकेच बायलेचे वंशज आसतात. तरवाडाचे आस्पतीची वांटणी करिनात. तरवाडांतलो सगल्यांत ज्येश्ट दादलो कुटुंबाचो कारभार चलयता आनी ताका कारणरान अशें म्हण्टात. तो पुराय आस्पतीचो विश्वस्त म्हणून काम पळेता. तरवाडांतल्या दरेका मनशाच्या पालन - पोशणाची जापसालदारकी ताचेर आसता. तशेंच सगल्यांक योग्य ती शिस्त लावप, वायट वागणुकेबद्दल ख्यास्त करप होय अधिकार ताका आसता. देखून सगले ताका मान दितात आनी ताचो सगल्यांचेर शेक आसता. तरवाडची रावपाची रचणूक ताच्या पसाऱ्याक जाय तशी आसता. तातूंतलीं घरां किल्ल्यावरी आवांठान व्हड आसतात. घराभोंवतणीं आंगण, पोरसूं, आवारांत तळें, देवूळ, गोठो, कोठार आदी गजाली आसतात. देखून दरेक घर स्वयंपूर्ण अशें आसता. घरांत जायतीं सालां आनी कुडी आसून मदीं पुर्वजांची पुजा करपाखातीर एक कूड राखून दवरतात.

हांगाच्या भुरग्यांक जाणट्याकडल्यान नैतिक आनी वेव्हारीक शिक्षण मेळटा. तांकां पुस्तकी शिक्षण दिवपाक एक शिक्षक नेमिल्लो आसता. कुटुंबांतल्या दरेका मनशाक तो संस्कृत आनी मल्याळम ह्यो भासो शिकयता. चलयांकय तांचें 'ताळिकेट्टुकल्याणम' जायसर अशे तरेचें शिक्षण दितात.

ताळिकेट्टुकल्याणम हो नायर जातींतलो एक चलयांचो संस्कार. चली वयांत येवंचे आदीं तिच्या गळ्यांत भांगराची ताळी (दावलावरी एक प्रकार) बांदप हो मुखेल विधी आसता. ताळी बांदपाखातीर एक चलो वेंचून काडटात. ताका मलवालन अशें म्हण्टात. ताची पत्रिका चलयेचे पत्रिकेकडेन जुळप गरजेचें आसता. तो गांवांतल्या प्रतिश्ठीत मनशांमुखार चलयेच्या गळ्यांत ताळी बांदता. ह्या संस्काराक लग्नविधीच समजतात. ताका लागून ताळी बांदपी मलवालनाकडेन तिचें घोवाचें नातें जुळटा अशें मानतात. फुडें ती चली वयांत येतकच तिका ताचेकडेन लग्न जावंचें पडटा वा दुसऱ्या दादल्याकडेन लग्न जावपाची इत्सा जाल्यार ताची परवानगी घेवची पडटा. कांयकडेन ताळिकेट्टुकल्याणम सुवाळ्यांत चवथ्या दिसा त्या दोगांयचो संबंध तोडपाचो विधी करतात. उपरांत ती चली आपले पसंतीच्या तरणाट्याकडेन लग्न करूंक मेकळी जाता (संबंधम). संबंधम जातकच लेगीत ती आपल्या घोवागेर वचनासतना घोवच तागेर रावंक येता. अशें जाल्यान तरवाडचो पसारो वाडत वता. देखून सगल्यांची मान्यताय घेवन तरवाडाचे ल्हान ल्हान भाग करपाची चाल तयार जाली. ह्या कुटुंबांत बायल आनी तिचीं भुरगींबाळां येदेंच कुटुंब आसता. हाका तावझी अशें म्हणटात. मूळ तरवाडचे पुराय नेम हाका लागतात.

स्वतंत्र भारतांत ही मातृसत्ताक कुटुंब पद्दत सद्या नश्ट जायत चल्ल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**तरस :** मांस खावपी प्राणी. कूळ हायनिडी. हायनिडी कुळांत हायना आनी क्रोक्युटा हे दोन वंश आस्पावतात. तरसाच्यो वट्ट तीन जाती आसात - आंगार पटे आशिल्लो तरस, पुडी कोराचो तरस आनी थिपके आशिल्लो तरस. पटे आशिल्लो तरस नैर्ऋत्य आशियेंत मेळटा, जाल्यार पुडी कोराचो तरस दक्षिण आफ्रिकेंतल्या ऱ्होडेशिया आनी मोझँबिकाचे उत्तरेक मेळटा आनी थिपके आशिल्लो तरस आफ्रिकेंत सहारा रेंवटाचे दक्षिणेक मेळटा. भारतांत फकत पटे आशिल्लो तरस मेळटा. ताचें शास्त्रीय नांव हायना हायना अशें आसा. ताची लांबाय सुमार १५० सेंमी., शेंपडी ४६ सेंमी., उंचाय ९० सेंमी. आनी वजन सुमार ३०.५४ किग्रॅ. आसता. भारतीय तरसाचो रंग भुरकट हळडुवो वा गोबराकोराचो आसता आनी केंस भुरभुरीत आसतात. मानेवयले केंस लांब आनी दाट आशिल्ल्यान आयाळीभशेन दिसतात. तोंड काळें आनी सुण्यावरीच आसता. कान सदां सरळ उबे आसतात. तोंडाचो जबडो इतलो घट आसता की वाग आनी शींव हांचेकडेन फोडूंक जायना असलीं हाडां तो सहज फोडटा. तोंड, पांय आनी नाखटां सुण्यावरीच आसतात. पूण दांतांची बसका

माजराच्या कुळांतले मोनजातीवरी आसता. ताचें हड्डें रूंद आसून फाटीचो भाग अशीर आनी देंवत गेल्यान ताका कुबड आशिल्लेभाशेन दिसता. ताचे फुडले पांय फाटल्या पायांपरस घट आनी लांब आसतात. फाटले पांय आंखूड आनी अशक्त आसून धांवता आसतना ताचीं धोंपरां एकामेकांचेर घांसतात आनी फाटले पांय सरकटत व्हेल्लेभाशेन दिसतात. ताचे शेंपडेपोंदा एक वासाची गांठ आसून तातूंतल्यान तो एकेतरेचो फवारो सोडटा.

तळ्यालागसल्ले वा दोंगराचे खांचींत वा व्हड फातराआड तो रावता. केन्ना केन्ना सायाळी ह्या जनावरान केल्ल्या बिळांतय तो रावता. तो निशाचर आसून एकलो वा जोडयेन भोंवता. मेल्ले आनी कुशिल्ले प्राणी ही ताची मुखेल खावड. तो चड करून अशक्त प्राणी मारून खाता. कुशिल्लें मांस मेळना जाल्यार तो बोकड्यो मेंढरां आनी सुणीं मारून खाता. ताका कुशिल्लें मास खावपाची संवय आशिल्ल्यान ताका रानाचो आरोग्यरक्षक म्हळां. कांय तरस फिसकारतात जाल्यार कांय तरसांचो आवाज मनशाच्या हांसपाभाशेन आसता.

मादी तरसाक चड करून २-४ पिलां जातात. पिलांच्या आंगार स्पश्ट काळे पटे आसतात. पूण व्हड जातकच हे पटे अस्पश्ट अशे जातात.

पुडी कोराच्या तरसाचें शास्त्रीय नांव हायना. ब्रुनिया आनी थिपके आशिल्ल्या तरसाचें शास्त्रीय नांव क्रोक्युटा क्रोक्युटा. आफ्रिकेंतले तरस सदांच कळपान शिकार करतात आनी बैलासारक्या व्हड प्राण्याचेर लेगीत हल्लो करतात. शींव आनी वाघ ह्या सारकिल्या जनावरांक, तांच्या उतारवयांत, पिडापीड करपाक लेगीत तरस फाटीं रावना.

– कों. वि. सं. मं.

**तरसाद :** एक पुर्विल्लें परंपरीक शस्त्र. धनुर्वेदांत शस्त्रांचें जें विभाजन केलां, तातूंत तरसाद ही अमुक्त म्हळ्यार हातांत धरून झुजपाच्या, शस्त्रांत पडटा. आदल्या काळांत सैनीक द्वंद्व झुजाखातीर तरसादीचो वापर करताले. दुस्मानाचे तरसादिचे वार स्वताचे तरसादीचेर घेवन वा ते वार चुकोवन स्वताची राखण करपाची चाल आशिल्ली. पातें आनी मूठ हे तरसादीचे मुखेल भाग. सुरवातीच्या काळांत पात्याचो आकार कणेरीच्या पानांभाशेन आशिल्ल्यान पात्याक पान अशेंय म्हण्टाले. सादारणपणान पात्यावयल्यानूच तरसादीचें वर्गीकरण करतात. मुठीचेय जायते प्रकार दिसतात. पात्याच्या आकारावयल्यान झुजांत तरसाद कशेतरेन वापरांत येताली हें कळटा.

अश्मयुगांतल्या धारेच्या फातरी आयुधांपसून तरसादीचो उगम जालो. महाभारताच्या शांतिपर्वांत बह्यान याग केलो, तेन्ना 'अशना' ह्या कमळासारके उल्केंतल्यान तरसादीचो जल्म जालो, अशें भीष्म सांगता. गदा, कुराड, गोफीण, धोणू, भालो असो शस्त्रांचो विकास जायत गेलो आनी तातूंतल्यानूच तरसाद प्रचारांत आयली अशें म्हण्टात.

सुमेर, भारत, पॅलेस्टायन ह्या वाठारांत क्रिस्त तीन हजार वर्सां आदीं वा ताचेपयलीं ४० सेंमी. लांबायेच्यो मोटव्यो तरसादी वापरताले. तांबें, कांशें हांच्यो पाती आनी हाडाच्यो वा धातूच्यो मुठी बसोवन तरसादी करताले. हर्डोइ, बिठूर, हैदराबादच्या उत्खननांत हडप्पा संस्कृतायेंतल्यो तरसादी मेळ्ळ्यात. फोर्ट मनरोंत इ.स.आदीं १,२०० काळांतली तरसाद मेळ्ळ्या.

वैदिक आनी हेर वाङ्मयांनी तरसादीक करवाल, असि, निस्त्रिंश, चंद्रहास, खड्ग, मंडलाग्र, असियष्टि अशीं नांवां मेळटात. आर्विल्ल्या काळांत वाठार वा खाशेल्या मनशावयल्यान तरसादी वळखतात. भरहुताच्या शिल्पकामांत शुंग काळांतल्यो तरसादी पळोवंक मेळटात. कुशाणकाळांत अशीर, सरळ आनी त्रिकोणी तोंकाच्यो तशेंच कणेरीच्या पानांवरी पात्याच्यो तरसादी आशिल्ल्यो. गुप्तकाळांत 'खंडा' तरसादी चलणुकेंत आयल्यो. मदल्या युगांतल्यो अशीर समांतर पूण सरळ आनी दुधारी पात्याच्यो, सादयो मुठी आशिल्ल्यो तरसादी आदिचनल्लूर, अमरावती, नागार्जुनकोंडा, अजिंठा, वेरूळ, भुवनेश्वर, बादामी ह्या सुवातींवयल्या शिल्पांनी आनी चित्रांनी दिश्टी पडटात.

वाकाटक काळांतल्यो रूंद पात्याच्यो तशेंच खुरपी पात्याच्यो तरसादी अजिंठा-वेरूळच्या शिल्पांनी दिश्टी पडटात. मुठयेकडेन अशीर आनी तोंकाकडेन रूंद पातें आशिल्ले 'कोपीस' तरसादीचो नमुनो जावा-सुमात्राच्यां देवळाच्या शिल्पांनी आसा.



तेराव्या आनी चवदाव्या शेंकड्यांसावन भारतांत इराणी आनी तुर्की तरसादी येवंक लागल्यो. 'आईन-ई-अकबरी' हातूंत ह्या तरसादींचीं वर्णनां दिल्यात. स्पेन, इटली, जर्मनींत तयार जाल्लीं पातीं घेवन मराठ्यांनी तांकां हिंदू पद्दतींच्यो लवंगी, डेरेदार आनी खोपडी ह्यो मुठी बसयल्यो. 'पट्टा', 'सकेला' वा 'धूप' आनी 'किरच' ह्यो मराठ्यांनी तयार केल्ल्यो तरसादी.

सुरवातेक ते दमास्कनी आनी इराणी आनी उपरांत हिंदुस्थानी पद्दतीन पातें करूंक लागले. हेर तरसादींपरस 'पट्टा' ह्या प्रकाराक चड खाशेलपण आसा. शिवाजीच्या संदर्भांत आयिल्ली भवानी तरसाद ही 'पट्टा' हेच पद्दतीन आसूंक जाय अशें अस्तंतेंतल्या जाणकारांचें मत आसा.

कर्नाटकांत 'आद्य-कट्टी' नांवाची कोयतेसारकेंपातें आशिल्ली तरसाद दिश्टी पडटा. टिपू सुलतानाचे सैनीक 'आद्य-कट्टी' ही तरसाद वापरताले. नेपाळांत खंडा, कोश आनी कुकरी ह्यो तरसादी चलणुकेंत आसात. नागा आनी आसामी लोक तरसादीक 'डाव' म्हण्टात. भारतांत तरसादीचें पातें आनी मूठ हांचेर कलाकुसर आनी नक्षीकाम करताले. तेचपरी पात्याचेर कुराणांतलीं वचनां, दोळे, कमळां आदी चित्रां कोरांतताले.

जपानांत तरसादीक 'डाईशी' म्हण्टात. तिचे 'वाकिझाशी' आनी 'कटाना' अशे दोन प्रकार आसात. जर्मनी, स्पेन आनी इटलींत 'वायकिंग', 'व्हेनिशियन', 'सेबर', 'रेपियर', 'फलशियन' आनी 'कटलास' अशो स प्रकारांच्यो तरसादी करताले.

तरसादी दवरपाक धातूचें वा चामड्याचें म्यान आसता. हें म्यान कमराक बांदपाक कातडी पट्टो आसता. हिंदू धर्मांत 'खंडा', 'खुखरी' ह्या सारक्या शस्त्रांची पूजा करपाची चाल आसा. चडशा सगळ्या धर्मांनी आनी समाजांनी तरसादीक अजुनूय संस्कृतीक म्हत्व दितात.

आर्मां, तुबकां, पिस्तुलां आदी चलणुकेंत आयिल्ल्यान तरसादीचो वापर उणो जावंक लागलो. पयल्या म्हाझुजांत फकत जपानांतूच तरसादीचो वापर केल्लो. सद्या परंपरा राखपाखातीर तशेंच लश्करी आनी पुलीस संचलनाखातीर तेचपरीन राश्ट्रीय कार्यावळी वेळार सैनीक, पुलीस आनी अधिकारी तरसादी वापरतात. लश्करी आनी पुलीस प्रबोधिनी शिक्षणांत उंचेलो क्रमांक मेळिल्ल्या विद्यार्थ्याक 'सन्मान तलवार' दिवपाची चाल आसा. इतिहासीक नाटकांनी, धार नाशिल्ल्या फटीच्या तलवारींचो वापर करतात.

– कों. वि. सं. मं.

**तर्कशास्त्र :** युक्तीवादाच्या आदारान प्रमाण अनुमानांची निर्मिती करपाचें शास्त्र. खंयचेंय विधान करतलो जाल्यार ताका स्वीकृत अशा आदारविधानांची गरज लागता. तर्कशास्त्रांत आदार विधानां हीं बुन्यादी विधानां आसतात आनी ह्या विधानांवरवीं जें विधान करप जाता ताका अनुमान वा निश्कर्श म्हण्टात. एकदां आदार विधान स्विकारलें की, ताचेर आदारीत असो निश्कर्श स्विकारचो पडटा. आदारविधानां, अनुमानां, तांचो परस्पर संबंद, तांचेमदले भेद, दोश आनी तांचें वर्गीकरण हे प्रक्रियेक तर्कशास्त्र म्हण्टात.

तर्कशास्त्राचे परंपरीक अशे दोन मुखेल फांटे आसात – (१) निगामी (आकारीक) तर्कशास्त्र (२) विगामी तर्कशास्त्र. ॲरिस्टोटल प्रणीत तर्कशास्त्र निगामी आसलें आनी तें १७ व्या शतमानामेरेन चललें. १७ व्या शतमानाउपरांत विगामी तर्कशास्त्राचो उदय जालो. विगामी तर्कशास्त्रांत भर घालपी तर्कशास्त्रज्ञ म्हळ्यार – फ्रांसीस बेकन (१५६१-१६२६), गॅलिलीओ गॅलिली (१५६४-१६४२), रॉबर्ट बॉयल (१६२७-९१), न्युटन (१६४२-१७२७), डेविड ह्यूम (१७११-७६), विल्यम हर्शल (१७३८-१८२२), विल्यम ह्युएल (१७९४-१८६८) आनी जॉन स्टुअर्ट मिल (१८०६-७६), सी. एस. पर्स (१८३९-१९१४), जे. एम. केन्स (१८८३-१९४६), रुडॉल्फ कारनॅप (१८९१- ?), कार्ल पॉपर (१९०२- ?).

**निगामी तर्कशास्त्र :** निगामी तर्कशास्त्राप्रमाण निर्माण केल्ल्या विधानाचो निश्कर्श सत्य म्हणून सिध्द करतलो जाल्यार तो आदार विधानाच्या सत्यावयल्यान जावंचो लागता. म्हणजेच निश्कर्शाचीं आदारविधानां खरीं आसलीं तरी तोच खरो आसचोच पडटा. हाका तर्कसंगत म्हण्टात. देखीक : ताणें आपली इस्टेट भुरग्यांक वांटली – आदारविधान, ताका भुरगीं आसात – निश्कर्श.

आदारविधानां खरीं आसलीं आनी निश्कर्श फट आसा असो मानलो जाल्यार तर्कदोश निर्माण जाता. देखीक : 'अ' न 'ब' चो सल्लो घेतलो – आदारविधान, 'अ' 'ब' परस ल्हान – निश्कर्श.

'अ' न 'ब' चो सल्लो घेतलो हें जरी आदारविधान खरें आसलें तरी 'अ' हो 'ब' परस ल्हान आसा हें अनुमान खरेंच आसतलें अशें म्हणूंक जावचें ना. कारण व्हड मनीस ल्हान मनशाचो सल्लो घेवपाची शक्यताय आसा.

**विगामी तर्कशास्त्र :** खंयचे एके गजालीचें निरिक्षण हें आदारविधान धरून ताच्या आदारार त्या प्रकारच्या सगळ्या पळयल्ल्या, ना पळयल्ल्या, अणभविल्ल्या, ना अणभविल्ल्या गजालींचेर विधान करप ह्या युक्तीवादाक विगामी तर्कशास्त्र म्हण्टात. हातूंत आदारविधान सत्य आसूं येता. पूण निश्कर्श तर्किक नदरेन असत्य आसपाची शक्यताय आसा. आदारविधान: देखीक – गोंयांत म्हाका मेळिल्लीं मनशां सुशेगाद स्वभावाचीं आसलीं. निश्कर्श – गोंयचीं सगळीं मनशां सुशेगाद स्वभावाचीं.

निगामी तर्कशास्त्राचे नदरेन ह्या निश्कर्शान तर्कदोश मेळपाची शक्यताय आशिल्ल्यान हें विधान विगामी तर्कशास्त्राप्रमाण दुबावाचें थारता.

विज्ञानीक सोदाचे बाबतींत, शास्त्रज्ञ विगामी तर्कशास्त्राचो आदार घेता. अमूक एका प्रकारच्या गुणाच्या सगळ्याच गजालींचो प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष अभ्यास करप वास्तवांत शक्य जायना. अशा वेळार वास्तवांत शक्य जाल्ल्या अभ्यासाच्या आदाराचेर सार्वत्रिक निश्कर्श काडप जाता आनी ताकाच विज्ञानीक सोद म्हणप जाता. हो निश्कर्श सगळ्या गजालींचे बाबतींत आनी सगळ्या परिस्थितींनी खरो आसतलो म्हणपाची खात्री दिवंक जावंची ना. कांय गजालींचे बाबतींत हो निश्कर्श सगळ्याच परिस्थितींनी खरो आसूं येता. तो खरो केन्ना आनी फट केन्ना धरचो हाची जाप विगामी तर्कशास्त्रांत मेळना आनी म्हणून डेविड ह्यूम धरून ताचे उपरांतच्या सगळ्याच तत्त्ववेत्त्यांनी तर्कशास्त्राच्या ह्या फांट्याचें आपआपलेपरीन विवेचन केल्लें आसा.

अणभवाच्या आदाराचेर सार्वत्रिक असो निसर्ग नियम करप आनी तो सिध्द करून दाखोवपय शक्य ना अशें ताचें मत आसलें. जॉन स्टुअर्ट मील हाणें कार्यकारणभाव आनी अणभव हांची सांगड घालपाचो यत्न केला. मीलाच्या म्हणण्याप्रमाण अमूक एक अशी गजाल घडली की तिची प्रतिक्रिया म्हणून दुसरी गजाल आडखळी विणें घडटा असो अणभव आसा. हाचो अर्थ असो, पयलीं घडिल्ली गजाल ही दुसरे गजालीचें कारण. एके परिस्थितींत जें घडटा तें खंयच्यातरी विशिश्ट नेमांक धरून तसलेंच दुसरे परिस्थितींत घडटा. हाका मील हाणें निसर्गस्वरुपतेचें तत्त्व म्हळां. हाकाच विज्ञानीक विगमन म्हण्टात. तेच रितीचो पूण मातसो वेगळे तरेचो विचार जे. एस्. केन्स आनी सी. डी. बॉण्ड हांणी 'मर्यादीत स्वतंत्र विविधतेचें तत्त्व' ह्या सिध्दान्ताखाल मांडला. ह्या सिध्दान्ताप्रमाण वस्तूंनी वा घटनांनी कितलेशेच गुणधर्म आसले तरी तांचेमदीं सारकेपणाचें खंय तरी एक तत्त्व उरता. हें सारकेपण सोदून तांच्या संयोगांतल्यान जो निश्कर्श काडप जातलो, तो सार्वत्रिक मान्य जातलो.

जे. निकोट, जी. एस्. हेनरायट, रुडॉल्फ कारनेप, सी. एस्. पॅस, एच. रायसेनबर्क हांचेसारक्या तत्त्ववेत्त्यांनी विगामी तर्कशास्त्रावरवीं काडिल्लो निश्कर्श हो खात्रीचो नासता, जाल्यार संभाव्य (जावं येता असो) मानप आनी पुराव्याच्या प्रमाणांत तो खात्रीचे लागीं पावता अशें समजप.

– कों. वि. सं. मं.

**तर्खडकर, दादोबा पांडुरंग :** (जल्म : ९ मे १८१४ मुंबय; मरण : १७ ऑक्टोबर १८८२, मुंबय).

इंग्लिशींतलो नामनेचो मराठी व्याकरणकार, ग्रंथकार आनी धर्मसुदारक. ताणें मुळावें शिक्षण घराच बापायकडेन, तशेंच खासगी शाळेंतल्यान घेतलें. फुडलें माध्यमिक शिक्षण 'बॉम्बे नेटिव्ह एज्युकेशन सोसायटीचे शाळेंत जालें. १८३५त ताची एल्फिन्स्टन इन्स्टिट्युटांत शिक्षक म्हणून नेमणूक जाली. १८४१ ते ४६ मेरेन सुरतेचे इंग्लीश शाळेंत शिक्षक म्हणून ताणें काम केलें.

सुरतेचे शाळेंत दुर्गाराम मंछाराम हो वांगडी ताका मेळ्ळो. ह्या दोगांयनी मेळून 'मानवधर्मसभा' (१८४४) स्थापन केली. हे सभेवतीन तांणी लोकांच्या विरोधाक भियेनासतना अंधश्रध्दा निर्मुलनाचो आनी विवेकजागृतीचो वावर केलो. इ. स. १८४४ तो ज्ञानप्रसारक मंडळाचो अध्यक्ष जालो. फुडें ३१ जुलय १८४९ दिसा ताणें मुंबयंत परमहंस सभेची स्थापना केली.

१८३५ ते १८८० ह्या काळांत ताणें शिक्षक, अधिक्षक, उपजिल्हाधिकारी आदी वेगवेगळ्या पदांचेर काम केलां. निवृत्ती उपरांत कांय काळ तो ओरिएंटल ट्रान्स्लेटरच्या पदार आशिल्लो. ताका इंग्लीश, संस्कृत, पर्शियन आनी गुजराती भाशांचें ज्ञान आशिल्लें. संस्कृत आनी इंग्लीश भाशांच्या व्याकरणांचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. मराठी भाशेच्या रूपविचाराची स्वतंत्र प्रज्ञेन वेवस्था लावन ताणें १८३६ त 'मराठी भाशेचें व्याकरण' उजवाडाक हाडलें. ह्या पुस्तका भायर ताचीं उजवाडाक आयिल्लीं हेर पुस्तकां अशीं आसात - विधवेच्या लग्नाचें समर्थन करपी संस्कृत निबंध : 'विद्यवाश्रू मार्जन', इंग्लीश व्याकरणाची पूर्वपीठिका (१८६०), मराठी आनी गुजराती नकाशाचें पुस्तक (१८६३), मोरोपंताच्या केकावलीवेली गद्य टीका (१८६५), जगद्वासी आर्य ह्या टोपण नांवान धर्मसुत्रार बरयल्लो धर्मविवेचन हो ग्रंथ (१८६८), पारमहंसिक ब्राह्मधर्म (१८८०), शिशुबोध (१८८४) (मरणा उपरांत उजवाडाक आयलो).

ताणें १८४६ मेरेन बरोवन दवरिल्ली आपजीण, प्रा. अनंत काकबा प्रियोळकार हाणें संपादीत करून उजवाडाक हाडली. नामनेचो स्विडीश तत्त्वगिन्यानी स्वीडनबॉर्ग हाच्या ग्रंथाचेर ताणें बरयल्ल्या 'अ हिंदू जंटलमन्स रिफ्लॅक्शन्स रिस्पॅक्टिंग ध वर्क्स ऑफ़ एमानुएल स्वीडनबार्ग' (१८७८) ह्या ग्रंथाक युरोपांत खुबूच नामना मेळ्ळी. ताच्या साहित्यांत सादेंपण आनी विचारप्रवर्तकताय दिसता. ताचें मराठी व्याकरणाविशींचें काम सुमाराभायर म्हत्वाचें आसून तातूंतल्यानच मराठी गद्याक प्रमाण रूप मेळिल्लें आसा. ह्या पुस्तकाच्यो जायत्यो आवृत्त्यो उजवाडाक आयल्यात. ह्या ग्रंथाखातीरच ताका 'मराठी भाशेचो पाणिनी' म्हणून वळखतात.

इ. स. १८५७ च्या सुटके चळवळीच्या काळांत अहमदनगराक आसतना ताणें भिल्लांचो फुडारी पटाजी नाईक हाचें बंड मोडून काडपाक खुबूच आदार दिल्लो. देखून सरकारान ताका रावबहादूर हो किताब दिलो. ताणें सुरतेक स्थापन केल्ली मानवधर्म सभा आनी मुंबय स्थापन केल्ली परमहंस सभा हांचीं तत्त्वां अशीं आशिल्लीं - ईश्वर हो एक, सगळ्या मनशांची जात एक, मनीस जातीचो धर्म एक, मनशाची पात्रताय ही ताच्या गुणांनी थारता, विवेकाक अनुसरून काम करूंक जाय, ईश्वराचेर भक्ती करची आनी सगळ्यांक बरो मार्ग शिकोवंचो.

मराठी ज्ञान प्रसारक सभा, मुंबय विद्यापीठ, पुनर्विवाह सभा, बॉम्बे असोसिएशन आदी संस्थांच्या वावरांतय ताचो म्हत्वाचो वांटो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**तर्पण :** 'तृप' म्हळ्यार संतुश्ट करप. ह्या धातूवयल्यान हो शब्द निर्माण जाला. देखून तर्पण म्हळ्यार संतुश्ट करप. अथर्ववेदांत अशें म्हळां 'देवर्षिपितृमनुष्याणां जलाञलिदानेन तृप्तिसम्पादनम्' 'तृप्त्या तर्पयति' हाचो अर्थ देव, ऋषी, पितर वा मनीस हांकां उदकान संतुश्ट करप वा तृप्त करप. हें उदक दिता आसतना एका हाताच्या पोशांतल्यान उदक दिवप. अशें उदक दिल्यार ताका तर्पण अशें म्हण्टात. ऋग्वेदांत 'तृप्ती' असो शब्द 'उदक' ह्या अर्थान आयला.

पञ्चाङ्गअनुष्ठानांत जप, होम, तर्पण, मार्जन, ब्राह्मण संतर्पण अशे पांच विधी सांगल्यात. ह्या पञ्चाङ्गअनुष्ठानांत तर्पण विधी करतात. तशेंच ब्रह्मयज्ञ, स्नान, श्राध्द, होम ह्या कार्यांनीय तर्पण हो विधी 'अंगभूत' म्हणून करतात.

तर्पण विधी करपाचो मूळ उद्देश असो सांगतात — मनीस जल्म हो एकुचदां फावो जाता. ह्या जल्माचें सार्थक जावंचें म्हणून आपल्या हातांतल्यान सदांच बरें कार्य जावंक जाय. हाका लागून आपणाक बरी गती मेळटा, अशें शास्त्र सांगता. देव, ऋषी आनी मेल्ल्या जाणट्यांची आपणाक सदांच याद उरूंक जाय. तशेंच आपल्या पिळग्यांकडल्यान आयिल्ल्या देवाचो, गुरुजनांचो आनी कुळांतल्या जाण्ट्या मनशांचो आपणाक सदांच अभिमान आसूंक जाय. देव, ऋषी हांचेवांगडाच मेल्ल्या जाणट्याचे उपकार, उण्यांत उणे फाटल्या तीन पिळग्यांमेरेन तरी जाणूंक जाय. ही उपकार जाणपाची जबाबदारी दरेका मनशाचेर आसा आनी ही जाण राखपाखातीर शास्त्रान मनशाक तर्पण हो विधी सांगला.

मनशान तर्पण हो विधी सदांच करपाचो आसता. तेखातीर 'ब्रह्मयज्ञ' नांवाचो विधी नित्यकर्मांत सांगला. ह्या विधीचें निमाणें तर्पण हो विधी नित्याखातीर करतात. तर्पण करतना उदक घेवन तर्पण करप अशें सांगलां. हाचो उद्देश असो आसूं येता की, आपले मेल्ले जाणटे हे चड करून निर्जल वाठारांत रावतात. देखून तांकां हांगासून उदक दिल्यार ते तृप्त जातात.

हो विधी न्हंयचेर करप अशें बौधायनगृह्यसुत्रांत म्हळां -

स्त्रवन्तीष्वनिरुध्दासु त्रयो वर्णा द्विजातयः ।
प्रातरुत्थाय कुर्वीरन् देवर्षिपितृतर्पणम् ॥

तर्पण हो विधी सकाळफुडें करप. आडावंक नाशिल्ल्या आनी व्हावपी न्हंयचेर तर्पण करचें. ब्राह्मण, क्षत्रिय आनी वैश्य ह्या त्रैवर्णिकांनी तर्पण करूंकूच जाय अशें बौधायन सांगता.

देव, ऋषी आनी पितर हांकां हाताच्या खंयच्या भागावयल्यान उदक दिवंचें ताचे नेम सांगल्यात - उजव्या हाताच्या बोटाच्या फुडल्या भागांतल्यान (देवतिर्थान) देवांक उदक दिवप. अनामिका, कनिश्ठिका हांच्या मुळांतल्यान ऋषीक उदक दिवप (ऋषीतीर्थ). तर्जनी आनी आंगठो हांच्या मदल्यान पितरांक उदक दिवप (पितृतीर्थ). तर्पणाक कुश वा दर्भाची गरज लागता. देवांक कुश वा दर्भाच्या फुडल्या तोंकान, कुश वा दर्भाच्या मदल्या भागांतसून ऋषींक जाल्यार पितरांक कुश वा दर्भ दोडून घेवन तोंकांतल्यान उदक सोडप अशें सांगलां. देवांक एक, ऋषींक दोन आनी पितरांक तीन

अर्घ्यां दिवंक सांगल्यांत. जाल्यार बायलांक एक अर्घ्य. जानवें सदांच दाव्या खांद्यार आसता. ताका 'सव्य' म्हण्टात, तें उजव्या खांदार आसल्यार ताका 'अपसव्य' म्हण्टात आनी माळेवरी गळ्यांत लांबयल्यार ताका 'निवीत' अशें म्हण्टात. देवांचें तर्पण सव्यान, ऋषीचें निवितान जाल्यार पितरांचें अपसव्यान तर्पण करतात. देव तर्पणांत आनी ऋषी तर्पणांत उदेंतेकडेन तोंड करून जाल्यार पितृतर्पणांत दक्षिणेकडेन तोंड करून तर्पण करतात.

ब्रह्मयज्ञांत तीळ घेवन तर्पण करप अशें सांगलां. पूण घरांत जर ब्रह्मयज्ञ केलो जाल्यार तातूंत तीळ वापरचे न्हय अशें धर्मसिंधुकार सांगतात. ब्रह्मयज्ञांग तर्पण करपाचें जाल्यार उदक घेवनूच करप. आपल्या कुळांतले भुरगे नाशिल्ले जाण्टे मेल्यार तांकां आपलें वस्त्र भिजोवन तें वस्त्र पिळून तें उदक दिवप अशें शास्त्रांत सांगलां.

– माधव गोविंद भुस्कुटे

**तवशें :** (मराठी : काकडी, खिरा; कन्नडः सवटी काई; संस्कृतः सुशीलता; इंग्लीश : क्युकुंबर; लॅटीन : कुकुमिस सातिवुस; कूळ : कुकुर्बिटेसी).

ही वाल मूळची उत्तर भारतांतली आसून भारतांत ती सुमार ३,००० वर्सांसावन लागवडीखाल आसा. क्रिस्ताआदीं २०० वर्सांसावन चीनांत ही लागवडीखाल आशिल्ली. उपरांत ती हेर वाठारांत पातळ्ळी. गर्किन हो तवश्याचो आनीक एक प्रकार. भारतांत तवश्याच्यो जायत्यो जाती आसात. पुना रिवरा तशेंच शितल ह्यो तवश्याच्यो सुदारीत जाती.

रेवाळ तशेंच जड जमनींत आनी १८°-१४° सॅ. तापमानांत हें पीक बरें येता. ह्या पिकाची दोन पद्दतींनी लागवड करतात. एक आळें पद्दतीन. हातूंत एका आळ्यांत खूब बियो घालतात. दुसरे पद्दतीन जमनीचेर मेर करून तिच्या दोनूय वटांनी वा एकेवटेन लागवड करतात.

वायंगणे पीक जानेवारी-फेब्रुवारी जाल्यार पावसाळ्यांत जून-जुलयांत तवशाचें पीक लायतात. गोयांत फकत पावसाळी हंगामांत तवशाचें पीक घेतात. हॅक्टरी सुमार २.५ किग्रॅ. बीं लागता. तवशाची वाल जमनीर पातळावपाक दितात. लागवडीसावन देड पावणेदोन म्हयन्यांनी फळां तोडपाक तयार जातात. वाल चड वाडचे आदीं आनी पिकचे आदीं तोडटात. हॅक्टरी सरासरी ८-१० हजार किग्रॅ. उत्पन्न येवंक शकता. सुदारीत जाती वापरल्यार २५-३० हजार किग्रॅ. उत्पन्न मेळपाक शकता.

कवकवीत आनी तरण्या तवशाक गोयांत पिपरी म्हण्टात. गोयांत घरगुती पद्दतीन तवशाची लागवड करतात.

तवशें तरणें आसतना धवसार पाचवें वा हळदुवसार आसता आनी जून फळ तांबूस पिंगशें आसता. चेन्नईकडल्या 'मुंडोसा' प्रकाराचेर बारीक कांटे आसतात.

तवशांत सगळ्या तरांची जीवनसत्वां आसतात. बियो थंड आनी पुश्टीक आसून तांतूत हळदुवसार तेल आसता. तरणें तवशें (पिपरी) खावपाक उपेगी पडटा. तवशापसून तवसळी, कोशंबीर करतात. जून तवश्याचो अन्न पदार्थांत उपेग करतात.

तवश्याक मर, केवडा, डाउनी मायल्ड्यू, भूरी, कोनीय टिक्का, मोझेक हे रोग आनी किडी लागतात.

– कों. वि. सं. मं.

**तस्बीह :** मुसलमानांची जपमाळ. भारत, पाकिस्तान आनी इराण ह्या देशांतले मुसलमान लोक सादारणपणान ९९ मणयांची जपमाळ उपेगांत हाडटात. हे माळेचे एकसारके तीन मणी, आकार आनी रंगान दुसऱ्यांपरस वेगळे आसतात. हिंदू ज्या मणयाक सुमेरु म्हण्टात ताका मुसलमान इमाम म्हण्टात. कांय जपमाळो १०१ वा ३३ मणयांच्यो आसतात. तस्बीहच्या आदारान जप केल्यार पुण्याय मेळटा आनी पापाचो नाश जाता असो मुसलमानांचो भावार्थ आसा.

हे माळेंतले मणी जायत्या पदार्थापसून तयार करतात, तरी लांकडाचे मणीच वापरपाची सर्रास चाल आसा. मक्काचे मातयेच्या मणयांची तस्बीह पुण्यायेची मानतात.

हाज यात्रेखातीर वचपी लोक मणयांखातीर मक्केंतली माती मुखेलपणान हाडटात. शिया पंथी लोक कर्बलांतले मातयेक चड म्हत्व दितात. हाचे भायर, भांगेचे बी, उंटाचीं हाडां, खाजराच्यो बियो, मोलादीक पाशाण हांच्याय मणयांची तस्बीह करतात. अरबस्थानांत पुर्विल्ल्या काळासावन अशे तरेची जपमाळ वापरपाची चाल आसा.

दर दिसा, दर एका घरांत दर एक मनीस ही माळ घेवन देवाचो जप 'अल्ला हो अकबर' असो करता.

– कों. वि. सं. मं.

**तहारा :** इस्लाम धर्मांतलें शुद्धिविधान. वेगवेगळ्या कारणांक लागून सोवळेपणाक आयिल्ली बादा पयस करपाक मुसलमान लोक जे विधी करतात, तांकां दरेकाक वेगवेगळीं नांवां आसात. पूण सगळ्या विधींक मेळून तहारा म्हण्टात. मासिक पाळी, मेल्ल्या मनशाक स्पर्श करप आदी गजालींखातीर मुसलमानांमदीं न्हाण गरजेचें मानलां. शुक्राराक वा परबे दिसा नमाज पडचे आदीं न्हावंचें पडटा. न्हाणाक घुस्ल अशें म्हण्टात.

दर एका दिसाचो नमाज पडपाखातीर तोंड आनी हातपांय धुंवचे पडटात, ताका वजू म्हण्टात. उदकाचो उणाव आसल्यार रेंव वा माती हांणीं वजू केल्यार जाता. ह्या वजूक तयम्मूम म्हण्टात. जिस्वाक म्हळ्यार दांत धुवप. प्रार्थनेच्यावेळार पांयांत जोतीं आसल्यार जातात, पूण तीं निवळ आसूंक जाय असो नेम आसा. तांचे निवळसाणीक मसह म्हण्टात. आयदनां, कपडे आदी वस्तू निवळ करपाचे क्रियेक तथीर अशें नांव आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**तळावलीकार, मधुकर गणेश :** (जल्म : ११ एप्रिल १९३१, कुंकळ्ळी – सालसेत).

सुटकेझुजारी. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटणेचो वांगडी आसलो. पत्रकां लावप, वांटप, बेळगांव दल संघटणेच्या वावुरप्यांक पुर्तुगेज सरकाराविशीं खबरो पावोवप असलीं कामां तो करतालो. १३ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा कुंकळ्ळी पोलीस ठाण्याचेर धाड घालपांत ताचो वांटो आसा. २३ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी तीन वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त दिली. बंदखणींत ताका खूब त्रासांक तोंड दिवचें पडलें. तेभायर ताका एकांतवासांत दवरिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**तळी :** नाल्ल, तांदूळ आनी विडो घालून भरिल्लें ताट. मूळ 'थाळी' ह्या उतरावयल्यान 'तळी' हें उतर आयलां. जेवणाचे वेगवेगळे प्रकार वाडून सजयल्ल्या ताटाक 'थाळी' म्हण्टात. तळी हें खऱ्या अर्थान दारांत आयिल्ल्या गड्यांखातीर मानाचें ताट आसता. पूण ह्या ताटांतलें जेवण शिजयल्लें नासून, जेवणाखातीर लागपी तो 'शिधो' आसता. गोंयांत कांय सुवातींनी 'तळी' ह्या उतराबदला 'तळय' अशेंय उच्चारतात.

आदल्या काळांत समाजांतल्या वेगवेगळ्या घटकांकडल्यान मेळपी सेवा-चाकरेचें मोल आयचे भशेन पयशांच्या माध्यमांतल्यान मेजपाची चाल नाशिल्ली. तर तांदूळ सारकिल्लें धान्य आनी नाल्लासारकेलीं फळां दिवन तांचे सेवेची भरपाय करप जातालें. जात-धर्माचें वर्चस्व मानपाचो तो काळ. त्या काळांत, संस्कृतीच्या त्या राखणदारांक, सगळ्याच लोकांगेर शिजयल्लें अन्न घेवपाची मान्यताय आसताली अशें ना. देखून तांकां शिजयल्ल्या अन्नाबदला जेवो (शिधो) दिवपाची चाल सुरू जाली. कार्यावळीक सुरवात करचे आदीं हो शिधो एका ताटांत घालून तांच्या म्हऱ्यांत दवरताले आनी कार्यावळ सोंपल्या उपरांत तो घेवन ते वताले. वतना शिध्यांतले मूठभर तांदूळ घरार वडोवन वा घरकान्नीच्या माथ्यार वडोवन त्या घराची भरभराट जावं असो आशीर्वाद दिताले.

गोंय, कोंकण, महाराष्ट्र ह्या वाठारांनी 'तळी' दवरपाची चाल आसा. गोंयांत खास करून शिगम्याच्या उत्सवाक तळी दवरिल्ली दिसता. शिगम्याचे पुनवेदिसा मेळ दर घरा दारांत वचून कांय वेळ 'चौरंगी' गावन नाचता. तालगडी, गोफ, काकाड्यां नाच अशे जायते प्रकार सादर केल्याउपरांत खेळे घरचे घरकान्नीक तळी हाडपाखातीर विनवणी करतात.

'तळी हाड बाये
आसवत,
आयावपण नांदू तुजें
सासवत!'

खेळयांनी ह्यो वळी गायतकच घरची घरकान्न तळी घेवन येता आनी दारांत एका पाटार ती दवरता. तशे खेळे खोशी जावन गायतात,

'तळी हाडली आयांनी
उखल्ली खेळयांनी,
तिचें घर भरूं रे
सुरय तांदळांनी!'

गीताच्या ह्या कडव्याउपरांत खेळे 'आरत' नाचयतात आनी उपरांत तळीचें सामान काडून घेवन फुडले वाटेक लागतात.

तळीचें गीत गांवांकणकणी आनी समाजाकणकणी बदलिल्लें दिसता पूण भितरलो आशय मात तोच आसता. ह्या गीताची आनीक एक देख मेळटा ती अशी -

'तळी दिल्ल्या कुळा धनत राख
तळी दिली आयांनी
उखल्ली खेळयांनी
तुजें घर शेंसव आमी
तीळ तांदळांनी!'

बनवड आनी गड्यांखातीरूय तळी दवरतात. दिश्ट काडपाखातीर आयिल्ल्या म्हार वा गांवकाराकूय तळी दितात. नवो म्हूर्तमणी घेतना आनी कान तोंपतना शेटीक, चूडो भरतना काकणकाराक, न्हवऱ्याची भिशी मारतना म्हाल्याक, सवो बांदतना मडवळाक, गणपतीची मूर्त घेतना मुर्तिकाराक तळी दवरपाची चाल आसा.

महाराष्ट्रांत खंडोबा देवाक तळी दितात. ह्या प्रकाराक थंय 'तळी भरप' अशें म्हण्टात. चंपाषष्टी, माघी, चैत्री आनी पुनव ह्या तिथींक खंडोबाक तळी भरतात. देशस्थ ब्राह्मण, मराठे तशेंच खंडोबाक कुळदेव मानपी हेर जातींतले लोकूय खंडोबाक तळी भरतात.

हो विधी करपावेळार एक तळी तयार करून पयलीं तयार केल्ल्या एका कळसा म्हऱ्यांत दवरतात. उपरांत त्या कळसाची पुजा करतात आनी ती तळी घेवन कळसा भोंवतणी तीन वेळां ओंवाळटात. खंडोबाचें तेज आशिल्ल्या त्या कळसावयलो नाल्ल उपरांत पांच जाण उबारून काडटात आनी तळयेंत दवरतात. उपरांत सगळे जाण ती तळी भावार्थान कपलाक तेंकयतात. ह्या वेळार 'येळकोट घे!', 'येळकोट घे!' असो व्हडा-व्हडान उच्चार करतात. अशें तीन फावट करतकच तो नाल्ल फोडून ताची कातली थंय जमिल्ल्या लोकांक प्रसाद म्हणून वांट्टात.

सादारणपणान तळी दोन नाल्लांची आसता, पूण कांयकडेन तळयेंत पांच नाल्लूय दवरतात. आंगवण करून पांच नाल्लूय दवरपाची चाल आसा. तांदूळ आपल्याक जाय तितके एक पड, शेर अशे दवरतात. विड्याचेर आपल्याक तांकता ते पयशे आनी गोड वा साकर दवरून हळद-कुकूम दवरतात.

– जयंती नायक

**तळें :** सादारणपणान सैमीक वा कृत्रिम रितीन जमनीच्या खोल भागांत एकठायिल्ल्या उदकाक तळें म्हण्टात. भोवतेक तळ्यांचे कांठ, विशेश करून कृत्रीम रितीन केल्ल्या तळ्यांचे कांठ आकर्शक पदद्तीन बांदून घेतात. सरोवर आनी बांय हांचे मदल्या आकाराच्या ह्या उदका सांठ्याक प्रदेशा प्रमाण, आकाराप्रमाण, उपेगाप्रमाण वेगवेगळीं नांवां दिल्लीं आसात. देखीक - तळीं, ताल, तालाब, नडाग, पुष्करणी, वापी, वापिका. उदका पुरवण (पियेवपाक आनी रोवपाक), धर्मीक कार्यां, सोबीतकाय, न्हाण-धूण, अशा जायत्या कारणांखातीर आदींसावन तळ्याचो उपेग जाल्लो आसा.

आदल्या काळार सावन देवळां, ताज महाल, व्हडलीं शारां, निर्माण करतना जायत्या कारणां खातीर वांगडा तळींय बांदिल्लीं पळोवंक मेळटात. जहांगीर तशेंच शहाजहान आनी हेर मुसलमान राजकर्त्यांनी बांदिल्लीं तळीं हांची नामना आसा. मदुराईच्या मिनाक्षी मंदिरांतल्या भांगरा कमळांच्या तळ्यांची नामना आसा. करमळेचें तळें हें गोंयचें नामनेचें सैमीक तळें. तशेंच गोंयच्या आदल्या सैमीक तळ्यांची कृत्रीम तरेन सोबाय करून तें एक पर्यटन केंद्र म्हणून ताका म्हत्व आयलां. गोंयच्या भोवतेक व्हड देवळां मुखार तळी बांदिल्ली पळोवंक मेळटा. हे तळयेचो उपेग 'सांगोड' ह्या उत्सवा खातीर मुखेलपणान जाता आसलो, तरी थळावे लोक तिचो न्हावपा धुवपाखातीरय वापर करतात.

– कों. वि. सं. मं.

**तक्षक -१ :** एक नाग. हो कश्यप आनी कद्रू हांचो पूत. सुतलांतल्या क्रोधवश नांवाच्या नागांच्या पंगडाचो मुखेली. हाका अश्वसेन आनी श्रुतसेन

अशे दोन पूत आशिल्ले. अर्जुनान जेन्ना खांडववनाक उजो लायलो तेन्ना थंय तक्षकाच्या परिवारांतले बरेच जाण लासून मेले. तक्षक पळून वचपांत येसस्वी जालो. फुडें तक्षकान अर्जुनाचो पूत परिक्षीत राजाक जिवो मारलो. परिक्षीताचो पूत जन्मेजय हाका ही गजाल कळटकच ताका तक्षकाची आनी ताच्या पुराय नागकुळाविशीं तिडक आयली. ताणें तक्षक कुळाचो नाश करपाखातीर सर्पसत्र सुरू केलें. हातूंत सोरपाचीं अठरा कुळां नश्ट जालीं. जेन्ना उज्यांत आहुती म्हणून पडपाची तक्षकाची पाळी आयली तेन्ना इंद्रान ताका वाटावपाचो यत्न केलो. हें जन्मेजयाक कळटकच ताणें ब्राह्मणांक इंद्रासकट तक्षकाक आवाहन करपाक सांगलें. ब्राह्मणांनी तशें आवाहन केलें. इंद्रासकट तक्षकाची आहुती यज्ञांत पडपाचो प्रसंग आयलो तेन्ना आस्तिक ऋषीची आवय मनसा हे नाग जमातींतले बायलेकडेन हें सर्पसत्र थांबोवपाची विनंती सर्प जमातीन केली. मनसेचो पूत आस्तिक हाणें यज्ञाच्या माटवांत वचून आपल्या प्रभावी भाशणान जन्मेजयाचें मन जिकून ताचेकडल्यान सर्पसत्र थांबोवपाचो वर मागून घेतलो. जन्मेजयान सर्पसत्र थांबयलें तो दीस नंदिवर्धिनी नांवाचे पंचमीचो आशिल्लो. देखुनूच ही पंचम नागांक आवडटा अशें भविश्य आनी ब्रह्म ह्या पुराणांनी सांगलां. काश्मीरांतली वितस्ता न्हंय (झेलम) हें तक्षकाचें निवासस्थान (पद्मपुराण). काश्मीरांतल्या जेवन गांवालागसार आशिल्ल्या तळ्यादेगेर अजुनूय तक्षकाची पुजा करपाची चाल आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**तक्षक -२ :** पुर्विल्ल्या भारतांतली एक जात. हिका तक्षन अशेंय म्हण्टात. पणिनीच्या अष्टाध्यायांत हिचो उल्लेख सुतारकाम करपी एक जात असो मेळटा. तक्षन म्हळ्यार लांकडां तासपी. कुलिश वा परशू हें ताचें हत्यार आशिल्लें. वैदीक साहित्यांत हें काम करतल्यांचे जायते उल्लेख आयल्यात. राजप्रासाद आनी राजसभाघर आदी म्हत्वाच्या वास्तूंचें लांकडी काम हे लोक करताले. पातंजल महाभाश्यांत तक्षन हो शुद्र आनी लोहाराचे योग्यतायेचो मानला. हाका यज्ञ करपाचो अधिकार ना. उशनाच्या मतान ही संकरज जात. ब्राह्मण बायल आनी सूचिक दादलो हांच्या संबंदांतल्यान ही जात निर्माण जाली अशें ताणें म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**तक्षशिला :** पुर्विल्ल्या भारतांतलें नामनेचें वेपारी शार आनी विद्या केंद्र. सद्या हें थळ पाकिस्तानांत आसून रावळपिंडीचे वायव्येक सुमार ३५ किमी. अंतराचेर आसा. आतां हांगा फकत पुर्विल्ले बौध्द अवशेश आसात. पोरण्या साहित्यांत विद्येचें केंद्र म्हणून जरी ह्या वाठाराची म्हायती मेळ्ळी तरी ह्या पुर्विल्ल्या विद्यापिठाचे उल्लेख करपासारके अवशेश वा नेमकें तें थळ अजून मेळूंक ना.

बौध्द जातकांत तक्षशिलेचो गांधार देशाची राजधानी म्हणून उल्लेख मेळटा. कैकयीपूत भरत हाणें तक्षशिला नगर वसयलें. ताका तक्ष हें आपल्या पुताचें नांव दिलें. तक्षशिलेर रघुवंशी राजांचें राज्य कितलो तेंप आसलें हाचो निश्चीत उल्लेख मेळना. भारतीय झुजाउपरांत परिक्षीताच्या वंशजांनी हांगा कांय काळ राज्य केलें आनी जन्मेजयान सर्पसत्र हांगाच केल्लें असो उल्लेख महाभारतांत मेळटा. गौतम बुध्दाच्या काळांत हांगाचो राजा पुक्कुसाती हाणें मगधराजा बिंबिसाराकडेन राजदूत धाडिल्लो.

सन आदी सव्या शेंकडयांत इराणाचो शासक कुरुष हाणें ह्या वाठाराचेर घुरी घालून तें हस्तगत केलें. ताच्या वंशजांनी सुमार दोनशें वर्सां हांगा राज्य केलें आसूंक जाय. सिकंदराच्या काळांत तक्षशिला हें व्हड आनी समृध्द अशें नगर आशिल्लें अशें स्ट्रॅबो ह्या इतिहासकारान म्हळां. सिकंदराचे घुरये वेळार हांगा जो राजा आशिल्लो ताचो ग्रीकांनी बॅसिलियस वा टक्सिलीन असो उल्लेख केला. फुडें चंद्रगुप्त मौर्यान सिकंदराच्या सैनीक प्रतिनिधीक हारोवन तक्षशिलेचेर ताबो मेळयलो आनी आपल्या प्रांताची राजधानी केली. चंद्रगुप्ता उपरांत बिंदुसार, सुसीम, अशोक, आनी कुशाण ह्या ताच्या वंशांतल्या राजांनी तक्षशिलेचेर राज्य केलें. मौर्य साम्राज्या उपरांत ह्या वाठाराचेर इंडो-बॅक्ट्रियन, सिंथियन आनी कुशाण आदी राजकर्त्यांनी तक्षशिलेचेर अधिकार गाजयलो. शक-कुशाणाच्या काळांत ह्या वाठाराची आनी हांगाच्या विद्याकेंद्राची अवनती सुरू जाली. फुडें इ. स. पांचव्या शतमानांत हूणांनी तक्षशिला नश्ट करून उडयली. चीनी भोंवडेकार फाहियान आनी युआन च्वांग हांणी ह्या थळाक भेट दिल्ली तेन्ना हे शार पुराय नश्ट जाल्लें.

तक्षशिला नगरावांगडाच हांगाच्या विद्यापिठाची नामना आसा. संवसारांतल्या खंयच्याय राश्ट्राच्या इतिहासांत ह्या विद्यापिठासारकें १००० - १२०० वर्सां तिगिल्लें हेर खंयचेंच विद्यापीठ दाखोवंक मेळना असो उल्लेख मेळटा. म्हणुनूच ह्या विद्यापिठाक आद्य आनी श्रेश्ठ विद्यापीठ म्हण्टात. वेगवेगळ्या शास्त्रांनी पारंगत अशे विद्वान ह्या विद्यापिठांत ज्ञानदानाचो वावर करताले. देखुनूच ह्या विद्यापिठांत विद्यार्थ्यांची रीग लागताली. दर शिक्षक म्हळ्यार एक स्वतंत्र संस्थाच आसताली. एका शिक्षकाच्या हाताखाल सुमार ५०० विद्यार्थी आसताले असो उल्लेख जातकांत मेळटा. विद्यार्थ्यांच्या जेवणाची आनी रावपाची वेवस्था विद्यापिठाच्या वसतीघरांतूच आसताली. गिरेस्त विद्यार्थी पुराय शिक्षणाखातीर १,००० भांगराचीं नाणीं शुल्क म्हणून दिताले. गरीब विद्यार्थी दिसाचे गुरुच्या घरा रावन तांचीं कामां करताले आनी रातचें फुकट शिक्षण घेताले. कांय विद्यार्थी शिकप पुराय जाले उपरांत पयशे मेळोवन गुरुदक्षिणा दिताले.

१६-१७ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांची प्रवेशपरिक्षा घेतले उपरांत ताका ह्या विद्यापिठांत प्रवेश मेळटालो. शिक्षणाचो काळ सादारणपणान ७-८ वर्सां आसतालो. आर्य चाणक्य आनी आयुर्वेदाचार्य जीवक हाणीं जायतीं वर्सां हांगा शिकोवपाचें काम केल्लें. पाणिनी आनी कौटिल्य हाणीं हांगाच शिक्षण घेतिल्लें असो उल्लेख मेळटा. ह्या विद्यापिठांत वैजकी, धनुर्विद्या, वेद, व्याकरण, तत्त्वगिन्यान, वास्तूशास्त्र आदी मुखेल विशय शिकयताले. तेभायर शस्त्रक्रिया, झुजातंत्र, ज्योतीश, शेतकीविज्ञान, वाणिज्य, लेखाशास्त्र, संगीत, नाच, चित्रकला हेय विशय ह्या विद्यापिठाच्या शिक्षणक्रमांत आशिल्ले. हजार - बाराशें वर्सांमदीं ह्या प्रदेशाचेर ज्या ज्या राजवटींनी राज्य केल्लें तांचो हांगाच्या अभ्यासक्रमाचेर आनी भाशेचेर उण्या-अदीक प्रमाणांत परिणाम जाल्लो.

१९१३-३४ आनी १९४४-४५ ह्या वर्सांनी तक्षशिलाचे पुर्विल्ले वस्तीची दोन फावटीं उत्खननां जालीं. तातूंत इ. स. आदीं पांचवें शतमान ते इ. स. चें दुसरें - तिसरें शतमान ह्या काळांतल्या संस्कृतीक जिविताची माहिती मेळटा. पयलें उत्खनन सर जॉन मार्शल हाणें केलें आनी उपरांतचें अमलानंद घोष हाणें केलें.

सगळ्यांत पोरणी वस्ती इ स. आदीं पांचवें तें इ. स. आदीं दुसरें

शतमान ह्या काळांतली आसून ती भीर दोंगुल्ल्यांनी मेळ्ळी. तातूंत अशें दिसलें की हांगाच्या घरांची बांदणी जरी ओबड-धोबड आसली तरी त्या काळांतले लोक सुसंपन्न आशिल्ले. तांच्या घरांचीं छपरां लाकडी वांशांचेर उबारिनासतना एकाचेर एक फातर दवरून केल्ल्या खांब्यांचेर केल्लीं दिसतात. घराच्यो वण्टीय फातरांनीच बांदिल्ल्यो दिसल्यो. हांगाचे लोक कलात्मक नदरेन सोबीत अशो तरेतरेच्यो भांगराच्यो वस्ती वापरताले. ह्या वस्तींचो काळ कांय आहत नाणीं तशेंच ॲलेक्झांडर (सिकंदर) आनी फिलीप ॲरिडिअस हांच्या नाण्यांवयल्यान निश्चीत करूं येता.

ह्या उपरांतची दुसरी वस्ती सिर्कापांत इ. स. आदीं दुसरें - पयलें शतमान ते इ. स. चें दुसरें शतमान ह्या काळांत जाली. ही वस्ती भीर दोंगुल्ल्यांसावन वेगळी आसा. ह्या काळांत शाराभोंवतणीं फातरी (कोट) दुरीग आशिल्लें. ह्या दुरगाक चौकोनी बुरूज आशिल्लो. हांगा राजवाड्याचे अवशेशय मेळ्ळ्यात. तेचपरी हांगा कांय विहारय मेळ्ळ्यात. तेभायर भांगराच्यो वस्तू, ग्रीक सोन्याचीं आयदनां, इंडो-ग्रीक, इंडो-सिंथियन, इंडो - पर्शियन आनी कुशाण काळांतलीं नाणीं तशेंच हेर वस्तू मेळ्ळ्यात.

सिरसूख ही इ. स. दुसरें ते पांचवें शतक ह्या काळांतली तिसरी म्हत्वाची वस्ती. मर्यादीत उत्खननान ह्या वस्तीचें पुराय स्वरूप जाय तशें ज्ञात जावंक ना. पूण त्या काळांत तक्षशिले भोंवतणीं फातरांचे कोट आनी अर्दवाटकुळाकृतीचे बुरूज आशिल्ले हें दिसता. हूणांनी इ. स. पांचव्या शतमानांत हे वस्तीचो नाश केलो.

हेभायर धर्मराजिक ह्या नांवान वळखुपांत येवपी स्तूप उत्खनित केला. ताचें स्वरूप पळोवन तो कुशाण काळांतलो आसूंक जाय अशें जायत्या पुरातत्त्ववेत्त्यांचें मत आसा. सिरसूखा लागसार अशोकाचो पूत कुणाल हाच्या काळांतलो स्तूप आनी विहार मेळ्ळा. जाऊलियन, मोहरा मोरादू नगरांनी शिल्पां आनी विहार मेळ्ळ्यात. सिर्कापा लागसल्ल्या जांदिअलाक ग्रीक पद्दतीन बांदिल्ल्या देवळाचे अवशेश मेळ्ळ्यात.

तक्षशिलेच्या उत्खननांत बौध्द धर्माकडेन संबंदीत आशिल्ल्यो जायत्यो वास्तू आनी गांधार शैलींतलीं शिल्पां मेळ्ळ्यांत. भीर दोंगुल्ल्यां लागसार पुरातत्त्वीय संग्रहालय आसून थंय पुर्विल्ल्यो वस्तू दवरल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**ताऊस** : एक तंतूवाद्य. ताऊस म्हळ्यार मोर, हें उतर मूळ अरबी भाशेंतलें. ताऊस हें सतारीभाशेन वाद्य आसून ताच्या तळाक लाकडी मोर बसयतात. ह्या मोराचे फाटीर कातडयान नटयल्ली एक चवकोनी पेटी आसता. तिच्या मध्यकाक एक घोडी आसता. तिचे लागसारच दुसरी एक घोडी आसता. पेटयेचेर एक दांडी आसता. खुंटयो, अट, पड्डे, आदी वेवस्था सतारीवरीच आसता. ताऊसाक मुखेल चार सरयो आसतात. तातूंतल्यान सा, प, सा, म, अशे स्वर मेळटात. तर्फांखातीर सतारींत जशो उजवेवटेन रेजा दिवन तातूंत इकरा खुंटयो बसयल्ल्यो आसतात तशो हातुंतूय आसतात. सरयो आनी तर्फा जुळोवपाची पद्दतय सतारीवरीच आसता. पूण वाजोवपांत मात वेगळेपण आसता. घोड्याच्या केंसांनी ताणून घेतिल्ली धनुकली घेवन ताऊस वाजयतात. ह्या धनुकलीची लांबाय सुमार पावणेदोन फूट आसता. ह्या वाद्यांत वीस पड्डे आसतात. हें वाद्य स्वतंत्रपणान वाजयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**तांगसा** : एक जमात. अरुणाचल प्रदेशांतले भारत - ब्रह्मदेश शीमेचेर ह्या लोकांची वसती आसा.

ब्रह्मदेशाचे उदेंतेकडेन आशिल्ल्या मसोई सिन्‌रापुम नांवाच्या एका दोंगरार एके अतिमानवी शक्तीपसून आपली उत्पत्ती जाली अशें ते सांगतात. तेचप्रमाण आपूण मूळचे ब्रह्मदेशा (मियानमार) पलतडचे आसून थंयसावन आसामांत आयले अशेंय ते सांगतात.

तांगसा ह्या शब्दाचो अर्थ दोंगरी लोक असो आसा. हे जमातींत खूब उपजमाती आसात. तातूंतल्यो लुंगचांग, योगली, मोसांग, रोन्‌-रांग, खेमसिंग, मोकलुम, लोंगफी, सन्‌के, लुंग्री ह्यो मुखेल. ह्यो सगल्यो जमाती तिराप आनी नामचिकच्या देगणांनी रावतात.

तांगसा लोकांमदीं एकठांय कुटुंबपद्दत आसता. दरेका दांपत्याक घरांत एक स्वतंत्र कूड आसता. सगल्यांक काम करचें पडटा. फांतोडेर उठून बायलो भात कांडटात. उपरांत उदक हाडप, रांदप-जेवणां जातकच शेतांत वतात आनी सांजवेळार भाजीपालो, जळोव घेवन घरा येतात. घरा येतकच परत जेवणां करून जेवतात आनी सगळीं कामां जातकच शेकोटी पेटोवन बसतात. रातचे उसरां न्हिदपाक वतात.

तांगसांची एक स्वतंत्र बोलीभास आसा. पूण तांकां हिंदी आनी असमिया ह्यो भासोय उलोवपाक येतात. हालीं ते आपल्या भुरग्यांक शाळेंत घालतात.

तांचीं घरां चवकोनी आसून घराच्यो वण्टी कोंड्यांपसून तयार करतात. घरांत तीन मुखेल कुडी आसतात. सगळ्यांत पयले कुडींत रेडे, दुकरां आनी हेर जनावरांच्यो कवटयो लायिल्ल्यो आसतात. ही कूड सोयऱ्यांखातीर दवरतात. मदल्या सालाचे खूब वांटे करतात. ताका लागून दरेकल्याक स्वतंत्र कूड मेळटा. हाका तेंकून सोंपो आसता. थंय कड्डण कांडपाचीं वानां, उखळां आसतात. भितल्ले वटेन रांदचीकूड आसता.

आंकवार चलयांखातीर खास अशें वेगळें शयनघर गांवांत आसता. गांवांत जेन्ना आंकवार चलयो चड आसतात तेन्ना हें सामुदायिक शयनघर बांदतात.

तांगसा लोक मध्यम बांदयाचे आनी बळिश्ट आसतात. चडशा लोकांचो वर्ण हळदुवो - गोरो आसता. कांय लोक सावळ्या वर्णाचेय आसतात. तांगसा तरणाटे चले चलयो रंगरंगयाळे कपडे वापरतात. बायलो कमराभोंवतणीं धोंपरासकयल मेरेन काळो कपडो गुठलायतात. ब्लाऊज घालून वयल्यान उपरणें घेतात. दादल्या-बायलांक अलंकारांची खूब आवड आसता. दादले तांब्याचे सरयेंत रंगीत मणी ओंवून कानांत घालतात. बायलो कानांतलीं आनी गळ्यांत मणयांच्यो माळो घालतात. नाण्यांची आनी पवनांची गळसरी तांकां चड आवडटा. त्यो धातूचीं कांकणां घालतात आनी पांयांत मणी बांदतात.

तांगसा लोक एका श्रेश्ठ देवाचें अस्तित्व मानतात. ताका ते सिकिआ, प्रा वा रांग काऊ हावा अशींय नांवां दितात. तांच्यांत सूर्यपुजेक खूब म्हत्व आसा. वत आनी पावस ह्या दोगांयखातीर ते सूर्यपुजा करतात. तांगसा हे जडप्राणवादी आसून लोंग्जुम हो पावस दिवपी, आनी शेत पिकोवपी देव, रंग्फी हो अग्निदेव आनी यंग्बन हाका रानांचो देव मानतात. पुरयताक तांगसा लोक खूब मानतात. तशेंच तांचेमदीं देवऋषीय आसतात. रोगपिडा बरी करप हें तांचें मुखेल काम आसता.

तांगसा लोकांमदीं खूब गोत्रां आनी कुळां आसात. एकाच कुळांत वा

गोत्रांत लग्नां जायनात. पिरायेंत येतकच भुरग्यांचीं लग्नां करतात. व्हडल्या भावाचे विधवा बायलेकडेन लग्न करपाची चाल आसा.

विंगड विंगड पोटजमातींची लग्नपद्दत वेगळी आसता. लग्नसुवाळो सादारपणान तीन दीस चलता. पयल्या दिसा न्हवरो आपल्या सोयऱ्यांसयत व्हंकलेगेर वचून तिच्या आवय-बापायक भेट म्हणून एक दुकर आनी सोरो दिता, आनी व्हंकलेक घेवन आपल्या घरा येता. दुसऱ्या दिसा न्हवऱ्याचीं आवय-बापूय, व्हंकल-न्हवऱ्याक घेवन, व्हंकलेच्या घरा वतात आनी तिच्या आवय-बापायक देज म्हणून शंबर रुपया आनी एक रेडो दिवपाची चाल आसा. त्याच दिसा व्हंकलेचो बापूय व्हंकल - न्हवऱ्याच्या हातांत कांकण बांदता. सांजवेळा न्हवऱ्यावटेनचे सगळे लोक नव्या दांपत्यासयत घरा येतात. तिसऱ्या दिसा परतून व्हंकल-न्हवरो व्हंकलेगेर वचून रावतात आनी जेवन परत वतात.

हे लोक मडीं पुरतात. कांय पोटजमातींमदीं मडीं लासपाचीय चाल आसा. मडें पुरचेपयलीं कोंबो मारून तो तांदळावांगडा शिजयतात आनी एका आयदनांत घालून भायर खांब्याक बांदतात. योगुली जमातींत मेल्ल्या मनशाच्यो सगळ्यो वस्ती भायर खांब्याक बांदपाची चाल आसा. मेल्ल्या मनशाखातीर घरामुखार थडें बांदतात. तीन ते सात दीस सुतक पाळटात.

तांगसा लोकांक नाच खूब आवडटा. शेतासंबंदीं अशे तांचे तीन उत्सव आसतात. भात पेरचेपयलीं, भात पिकून तयार जातकच आनी कापणेपयलीं अशे ते उत्सव मनयतात. बिहू हो उत्सवूय ते उमेदीन मनयतात. त्या वेळार लग्नां जुळयतात.

तांगसा हे कुशल कारागीर आसून ते तरातरांचें वेतकाम, लाकडाचें कोरीवकाम आनी कपड्याचेर रंगीत नक्षीचें वीणकाम करतात. बायलो भरतकामांत निपूण आसतात.

तांगसांचो मुखेल वेवसाय शेती आसून भात हें तांचें मुखेल अन्न. ते झूम पद्दतीची शेती करतात. सकाळीं सूर्य उदेवचेपयलीं आनी रातचो सूर्य अस्ताक वचचे पयलीं ते शीत - भाजी अशें जेवण जेवतात. मदल्या वेळार उकडिल्ले बटाट, कणगां, मक्याचीं कणसां वा ल्हायो खातात. कुकडांचें आनी दुकराचें मास तांकां खूब आवडटा. रेड्याचें आनी माकडाचेंय मास ते खातात. तांदळापसून तयार केल्लो सोरो ते आवडीन पियेतात. दोनूय जेवणांउपरांत आनी मदी-मदींय ते खूब च्या पियेतात. तांकां अफूचें तशेंच तंबाकूच्यो विडयो ओडपाचेंय व्यसन आसता.

तांगसा लोक हिशोब दवरपांत कुशळ आसतात. कोंड्यांच्या कापट्यांचीं कडी थरावीक संख्येन एकमेकांत गुंथतात आनी एक सरपळीशी तयार करतात. दरेक कडें हें नाण्याचें रुपक आसता. उदारीचेर कसलीय खरेदी केली जाल्यार, दुकानदार आनी हेर प्रतिश्ठीत नागरिकांमुखार, विकत घेवपी मनीस, कोंड्यांच्या कड्यांची सरपळी करता आनी आपल्या घरांत लायता. हप्त्यान पयशे फारीक करतकच तितलीं कडीं काडून लासता. सगळें रीण पावतकच सरपळीय सोंपता. अशो कितल्योशोच सरपळ्यो तांगसांच्या घरांत वण्टींचेर लांबतात.

- कों. वि. सं. मं.

## तांडव नृत्य

**तांडव नृत्य :** एक पुर्विल्लो नृत्यप्रकार. हो दादल्यांचो नाच आसून तो महादेवान प्रवर्तीत केलो, असो परंपरीक समज आसा. संगीतरत्नाकरांत तांडवनृत्याची उत्पत्ती सांगल्या ती अशी -

प्रयोगमुध्दतं स्मृत्वा स्वप्रयुक्तं ततो हरः ।
तण्डुना स्वगणाग्रण्या भरताय व्यदीदृशत् ॥
लास्यमस्याग्रतः प्रीत्या पार्वत्या समदीदृशत् ।
बुध्दवाय ताण्डवं तण्डोर्मर्त्येभ्यो मुनयोऽवदन् ॥

**अर्थ** - उपरांत शिवान आपणें पयलीं केल्ल्या उध्दत नाचाचो उगडास करून तें आपल्या गणांत श्रेश्ठ आशिल्ल्या तंडूकडल्यान भरतमुनीक दाखयलें. तशेंच लास्य हें नृत्य पार्वतीकडल्यान व्हडा आवडीन भरतामुखार करून दाखयलें. तंडून करून दाखयलें तें तांडव, अशें जाणून भरत आनी हेर मुनींनी तें नृत्य मनशांक शिकयलें.



तांडव म्हळ्यार शिवान रागान आनी सांवार येवन केल्लें नृत्य असो रुढार्थ जाला. आनंद कुमारस्वामी हाच्या मताप्रमाण देव आनी दैत्य अशे दोन अंश जाच्यांत आशिल्ले, अशा एका अनार्य देवापसून तांडव नृत्याची उत्पत्ती जाली.

भरतान नाचाचे 'उध्दत' आनी 'मसृण' अशे दोन विभाग कल्पिल्यात. उध्दत म्हळ्यारूच तांडव आनी मसृण म्हळ्यार लास्य. ह्या दोन नृत्य प्रकारांतल्यानूच उध्दत वा तांडव नृत्य आनी मसृण वा लास्य नृत्य अशे दोन नृत्यप्रकार निर्माण जाले अशी विस्कटावणी अभिनव गुप्तान केल्या. लास्य नृत्यांतल्यान भाण, प्रहसन, वीथी आनी तांडव नृत्यांतल्यान समवकार, डिम, व्यायोग हे नृत्यप्रकार निर्माण जाले अशें मानतात. लास्य प्रकारांत शृंगार रस आसता जाल्यार तांडव नृत्यांत वीर, रौद्र, भयानक आनी बिभत्स ह्या रसांक प्राधान्य आसता.

भारतीय संस्कृती कोशांत तांडव नृत्याचे सात प्रकार सांगल्यात, ते अशे - १) आनंद तांडव २) संध्यातांडव ३) कालिकातांडव ४) त्रिपुरतांडव

५) गौरीतांडव ६) संहारतांडव आनी ७) उमातांडव. हे सातूय प्रकार शिवाक आवडटाले अशें सांगतात.

भारतांत प्रचलीत आशिल्ले सगळे नाच-परंपरेंत तांडवाचें आंग अस्तित्वांत आसा. मणिपूरी नाचांतले सगळे प्रकार म्हळ्यार तांडव शैलींतलेच नाच. कथ्थक नाचांत शिव आनी काली ह्या नाचांतले कांय तोडे तांडव शैलींत आसात. कथकली नाचांत लास्यांपरस तांडव शैली चड परिपूर्ण जाल्या. कथकली नाचांतूय कथानक कसलेंय आसूं, तातूंत तांडव शैलीचें नृत्य हो एक अविभाज्य घटक आसता. दक्षिणेंत प्रचलित आशिल्ल्या नटनदि वाद्य रजनम ह्या ग्रंथांत तांडवाचे बारा प्रकार वर्णिल्ले आसात, ते अशे - आनंद, संध्या,शृंगार, त्रिपुर, औध्दव, मुनी, भुजंग, संहार, उग्गीर, भूत, शुध्द आनी प्रलय. उत्तरेकडेन प्रचलित आशिल्ले परंपरेप्रमाण फकत शिवान म्हळ्यार एकाच नर्तकान केल्ले नाच (सोलो) पाच आसात ते अशे - आनंद, संध्या, कलिका, त्रिपुर आनी संहार. हाचे भायर गौरी तांडव आनी उमा तांडव हे पार्वती वांगडा केल्ले युगल तांडव नाच. आठ वा धा भुजांच्यो शिवाच्यो तांडव नृत्यांतल्यो मुर्ती घारापुरी, वेरूळ, भुवनेश्वरच्या शिल्पसंभारांत दिसतात. उत्पत्ती, स्थिती, संहार, तिरोभव आनी अनुग्रह ह्यो देवांच्यो पांच अवस्था शिव तांडवांत परगटायतात.

- कों. वि. सं. मं.

**तांत्रिक शिक्षण :** विज्ञानाचो वेव्हारीक उपेग करून समाजाक उपेगी पडटा, अशा वेवसायांचें तंत्रगिन्यान दिवपी शिक्षणाक तांत्रिक शिक्षण अशें म्हण्टात. देशाचे अर्थवेवस्थेंत उद्येगधंद्यांतल्या उत्पादनाक म्हत्व आसता. उत्पादनाचो पांवडो बरो दवरल्यार आनी उत्पादनाचो वेग वाडयल्यार आर्विल्ल्या उत्पादन तंत्राचो उपेग करचो पडटा. आर्विल्ल्या उत्पादन तंत्रांत कामगार मात प्रशिक्षीत आसचो पडटा. विंगड विंगड वेवसायाचें तंत्रगिन्यान ताका खबर आसूंक फावोच. पूण तेभायर विज्ञान आनी तांत्रिक फाट्यांतलीं मुळावीं तत्त्वां हांची जाण आसची पडटा. उद्येगधंद्यांत सादारणपणान तीन पांवड्यांवयल्या तंत्रज्ञांची गरज आसता. ते तीन पांवडे अशे आसात - १) कुशळ कामगार २) पर्यवेक्षक ३) उत्पादन तज्ञ ४) अभिकल्पक आनी ५) वेवस्थापन तज्ञ.

**इतिहास :** उत्खननांत पुर्विल्ल्या संस्कृतांयांचे जे अवशेश मेळ्ळ्यात, तांचेवयल्यान आदल्या काळांत मनशान नौकानयन, धातूविज्ञान, वास्तुशास्त्र, स्थापत्यशास्त्र आनी हेर विशयांनी उदरगत केल्ल्याचें जाणवता. मदल्या युगांतल्यो इमारती, खारजां, बंदरां हांचेवयल्यानूय हे प्रगतीची पारख जाता. त्या काळांतल्यो साधनसामुग्री आनी हेर सोयीसुविधा मतींत घेतल्यार तंत्रज्ञांनी केल्लीं कामां तुस्त करपासारकीं आसात. त्या काळांतल्या तंत्रज्ञांक आनी कारागिरांक विज्ञानाच्या मुळाव्या तंत्रांची जाण आशिल्ली काय किदें, हें निश्चीतपणान सांगूं नजो. घडये, गुरू - शिश्य परंपरेंतल्यान गिन्यानाचो प्रसार जातालो आसुंये. उमेदवारी पद्दतीन शिक्षणाचो प्रसार जातालो. प्रगतीचो वेग जरी संथ आसलो, तरी तातूंतल्यान त्या काळांतली गरज सहज भागताली. अस्तंतेकडल्या देशांत नेटान सुरू जाल्लो विज्ञानाचो प्रसार आनी अठराव्या शतमानांतली उद्येगीक क्रांती हांकां लागून यंत्रांचो वापर सुरू जालो. तरेकतरेचीं यंत्रां चलोवपाखातीर कामगारांचो उणाव व्हडा संख्येन जाणवूंक लागलो आनी उमेदवारी पद्दत उणी जावन संस्थांतर्गत शिक्षणाची पद्दत सुरू जाली.

**अस्तंती देश :** जर्मनी आनी फ्रांस ह्या देशांनी संस्थात्मक शिक्षण क्रमान १७६५ आनी १७७५त सुरू जालें. फ्रांसांत १७६६त झां रुदॉल्फ पेरँ हाणें एकोल द पॉलिटॅक्निक स्थापन करून अभियांत्रिकी शिक्षणाची बुन्याद घाली, देखून पेरँ हाका अभियांत्रिकी शिक्षणाचो आद्य संस्थापक मानतात. १८०२त अमेरिकेंत वॅस्ट पॉयंट ह्या गांवांत यूएस्. मिलीटरी ॲकॅडमी स्थापन जाली. संस्थेंतल्यान भायर पडिल्ले अभियंते लस्करांत आनी नागरी शासनाखातीर उपेगा येताले. इंग्लंडांतली पयली संस्था १८२३त स्थापन जाली. ल्हव ल्हव यांत्रिक उदरगत जावंक लागली तशी युरोपांत अठराव्या शतमानाचे अखेरेक आनी अमेरिकेंत एकुणिसाव्या शतमानाचे सुर्वेक तांत्रिक शिक्षणाक विज्ञानीक बसका आसूंक जाय, अशी गरज दिसूंक लागली. देखून ह्या शिक्षणांत विज्ञान, गणित आनी तंत्रविद्येंतली मुळावीं तत्त्वां हांचो आसपाव केलो.

१८४५-६० ह्या काळांत अमेरिकेंत हार्वर्ड, मिशीगन, यॅल, कोलंबिया हीं विद्यापिठां स्थापन जालीं. १८६२ सावन विद्यापिठांचो आंकडोय बरोच वाडलो. तांत्रिक संस्था आनी अभियांत्रिकी महाविद्यालयां लेगीत वाडूंक लागलीं. १९३१त 'सोसायटी फॉर ध प्रमोशन ऑफ इंजिनिअरींग एज्युकेशन' हे संस्थेन उजवाडायल्ल्या एका अहवालाक लागून तांत्रिक शिक्षणाक एक योग्य बुन्याद आनी पांवडो आसपाची गरज आसा, हे कल्पनेक चालना मेळ्ळी. ह्या अहवालाक लागून तशेंच विज्ञानीक आनी अभियांत्रिकी उद्येगांनी बेगोबेग जावपी वाडीक लागून प्रशिक्षीत तंत्रज्ञांची गरज, लश्करी तंत्रज्ञांची वाडटी गरज, तांत्रिक शिक्षणांतल्यान तयार जायत आशिल्ली वाडटी ग्रंथसंपत्ती ह्या कारणांक लागून अमेरिकेंत तांत्रिक शिक्षणाची रोखडीच वाड जाली. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत आनी तेउपरांत तांत्रिक क्षेत्रांतलें संशोधन बरेंच वाडलें. पदव्युत्तर शिक्षणाचीय तजवीज जाली. अवकाशयानाकडेन संबंदीत उपकरणांच्या संशोधनाक लागून विद्यापिठीय शिक्षणांतल्या पदव्युत्तर अभ्यासक्रमांत पूरक आनी पोशक अशे बदल जाले.

एकुणिसाव्या शतमानामेरेन कुशळ कारागिरांचें शिक्षण उमेदवारी पद्दतीन दिताले. प्राथमिक आनी माध्यमिक शाळांतल्यान वेवसायीक शिक्षणाची सुरवात जर्मनींत १८७०त जाली. अमेरिकेंत १८७५त राश्ट्रीय पांवड्याचेर एक वेवसायीक शिक्षण विभाग स्थापन केल्लो; पूण १९१७ च्या स्मिथ - ह्यूज कायद्याउपरांत व्हडा प्रमाणांत वेवसायीक शिक्षणाक मान्यताय मेळ्ळी. कारखान्यांतल्यान उमेदवारी करून शिकपी कामगारांक नियंत्रण उमेदवारी कायद्याप्रमाण करतात.

**भारत :** पुर्विल्ल्या काळांत आनी मध्ययुगांत भारतांत हेर देशांइतकी प्रगती जावंक नाशिल्ली. ताचीं उदाहरणां विंगड विंगड आदल्या काळांतले अवशेश, अजिंठा - वेरुळासारकीं लेणीं, इमारती, किल्ले, वस्त्र - उद्येग हांचेपसून मेळटात. पूण त्या काळांत लिखीत साहित्य मेळनाशिल्ल्यान तंत्रगिन्यानाचे विज्ञानीक फाटभुंयेसंबंदीं कळूंक मार्ग ना. ब्रिटीशांचे मुस्तींत पक्क्या म्हालाक बाजारपेठ मेळोवन दिवपा नदरेन थळाव्या उद्येगधंद्यांक राजकी फाटबळ मेळ्ळेंना आनी कालांतरान थळावे उद्येगधंदे अस्ताक गेले.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत अशे परिस्थितींतूय कांय उद्येगपतींनी कापडा गिरण्यो, यंत्रां तयार करपाचे कारखाने आनी तिख्या कारखाने सुरू केले. तातूंत लागपी तंत्रज्ञांचें शिक्षण कारखान्यांत दिवपाची

वेवस्था आशिल्ली. राजकी फुडारी देशांत उद्येगधंदे स्थापन करपाविशीं आनी तेसारकिल्यो तांत्रिक शिक्षणाच्यो सोयी मेळोवन दिवपाखातीर तळमळीन वावुरताले. पूण ब्रिटीश राज्यकर्त्यांपसून तांकां प्रतिसाद मेळ्ळोना. वेगवेगळ्यो रेल्वे कंपन्यो तशेंच झुजांत लागपी साहित्य तयार करपी कारखाने, तांकां लागपी कर्मचारी वर्ग त्या त्या कारखान्यांत शिक्षण दिवन तयार करताले. स्थापत्य विभागांतल्या विंगड विंगड पांवड्यावयल्या कर्मचाऱ्यांक शिक्षण दिवपाखातीर १८४७-५८ चे मजगतीं वर्ग उक्ते केले. कांय तेंपान तांचें रुपांतर अभियांत्रिकी म्हाविद्यालयांनी जालें. रूडकी (१८४७), पुणें (१८५४), कलकत्ता (१८५६) आनी चेन्नई (१८५८) ह्या नगरांनी अभियांत्रिकी म्हाविद्यालयां सुरू जालीं आनी तीं थळाव्या विद्यापिठांक संलग्न केलीं.

ते उपरांत १८८७ त मुंबयंत व्हिक्टोरिया ज्युबिली टॅक्निकल इन्स्टिट्यूट सुरू जालें. तातूंत सुर्वेक पदविका शिक्षण दिताले आनी १९४७त पदवी परिक्षेचें शिक्षण सुरू केलें. १९०७ वर्सा बेंगळुरांत इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्सच्या पदव्युत्तर शिक्षणाची वेवस्था जाली. १९१७त बनारस विद्यापिठाची स्थापणूक जाली आनी तातूंत विंगड विंगड विशयांतलें तांत्रिक शिक्षण मेळूंक लागलें. इंडियन स्कूल ऑफ मायस, हार्टकोर्ट बटलर टॅक्निकल इन्स्टिट्यूट, रसायनीक तंत्रविद्येचो मुंबय विद्यापिठांतलो विभाग ह्यो संस्था १९२१-३४ ह्या काळांत सुरू जाल्यो. त्या काळांत भारतांत उच्च शिक्षणाची वेवस्था नाशिल्ली. देखून इंग्लंड, जर्मनी, अमेरिका ह्या राश्ट्रांनी वचून शिक्षण घेवंचें पडटालें. १९०५-०७ ह्या काळांत सरकारी खर्चान ११३ तंत्रज्ञांक इंग्लंडांत शिक्षण दिलें.

१९४७ त भारत सरकारान पयलेच खेपे सायंटिफिक मॅनपावर समिती नेमली. ते समितीन फुडल्या धा वर्सांक लागपी विज्ञानीक आनी तांत्रिक मनीसबळाचे अदमास तयार केले. ताका अनुसरून तांत्रिक संस्थांची वाड करपाचें थारायलें. १९६० मेरेन पदविका आनी पदवी शिक्षण दिवपी संस्थांची आनिकूय वाड जाली. केंद्र सरकारान उच्च शिक्षणाखातीर चार तांत्रिक संस्था स्थापन करपाची येवजण तयार करपाखातीर १९४६त एक खास समिती नेमिल्ली. हे समितीचे शिफारसीप्रमाण खरगपूर (१९५१), मुंबय (१९५८), कानपूर आनी मद्रास (१९५९) आनी नवी दिल्ली (१९६१) ह्या सुवातींनी इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजी (आय.आय.टी) ह्यो पांच संस्था स्थापन जाल्यो. ह्या संस्थांक अस्ततेकडल्या देशांकडल्यान अर्थीक पालव मेळ्ळो. १९६० उपरांतच्या फुडल्या काळांत पदव्युत्तर शिक्षणाची तजवीज नेटान जाली.

स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत खाशेल्या विशयाचें उंचेलें शिक्षण घेवपाखातीर जायत्या तंत्रज्ञांक भारत सरकारचे शिश्यवृत्तीन अस्ततेकडल्या देशांनी धाडले. सद्या तंत्रविद्येंतल्या कितल्याशाच खाशेल्या क्षेत्रांनी उंचेलें आनी पदव्युत्तर शिक्षण घेवपाची सुविधा आसा. राश्ट्रीय पांवड्यार स्थापन जाल्ल्यो साबार संशोधन संस्था आनी प्रयोगशाळा तांत्रिक संशोधनाक चालना दिवपाक मोलादीक योगदान दीत आसात.

दुसऱ्या म्हाझुजांत लश्कराक लागपी कुशळ कामगारांचो आंकडो बरोच व्हड आशिल्लो आनी तेखातीर त्या काळांतल्या तांत्रिक संस्थांनी विंगड विंगड वेवसायांचें शिक्षण दिवपाखातीर केंद्रां स्थापन केलीं. झूज सोंपतकच लश्करांतल्यान तांकां व्हडा प्रमाणांत उणे केले. तांचे पुनर्वसणुकेखातीर वयल्या केंद्रांचो उपेग केलो. शिवराव समितीचे शिफारसीप्रमाण १९५६ उपरांत ह्या संस्थांचें रुपांतर कुशळ कामगार तयार करपी संस्थांनी केलें. कुशळ वेवसाय शिक्षणाचें नियंत्रण भारत सरकारान आपलेकडेन दवरलें. तशेंच उद्येगीक प्रशिक्षण संस्थांचो दीसपट्टो कारभार राज्य सरकारांकडेन सोंपयलो. राश्ट्रीय पांवड्यार वेवसाय शिक्षणाखातीर 'National Council of Training in Vocational Trades ही समिती स्थापन केली. ही समिती राश्ट्रीय पांवड्यार परिक्षा घेता. अभ्यासक्रमाचो पांवडोय हीच समिती निश्चीत करता. दर एक राज्यांत अशी समिती आसा. थळाव्या प्रस्नांची विस्कटावणी करून राश्ट्रीय समितीक शिफारसी करपाचें काम हे समितीकडेन आसा.

कुशल कामगारांक शिक्षण दिवपाखातीर उमेदवारी कायदो १९६१त संमत केलो आनी १९६३त तो चलणुकेंत आयलो. हे येवजणेंतलो शिक्षणक्रम आंखपाखातीर राश्ट्रीय पांवड्यार आनी दरेका राज्य पांवड्यार सल्लागार आसतात. उद्येगीक प्रशिक्षण संस्थांतलें शिक्षण आनी उमेदवारी कायद्यावरवीं दिल्लें शिक्षण हातूंत मेळ सादला.

**गोंय :** गोंय मुक्तीउपरांत गोंयांत शिक्षणाच्या मळार ल्हव ल्हव प्रगती जायत गेली. तांत्रिक शिक्षणाची गरज भागोवपाखातीर सरकारान कांय उपक्रम हातांत घेतले. १४ एप्रिल १९६७ वर्सा पणजे आल्तिन्यार सरकारी तंत्रनिकेतन सुरू केलें. आयज हे संस्थेचो बरोच विस्तार जाला आनी तातूंत उद्येगीक इलॅक्ट्रॉनीक्स, कम्प्युटर आनी हेर आर्विल्ल्या विशयांचें पदविका शिक्षण मेळटा. ३ जुलय १९६७ वर्सा फर्मागुडयेर गोंय अभियांत्रिकी म्हाविद्यालय स्थापन जालें. आर्किटेक्चर म्हाविद्यालय लेगीत सुरू जालें आनी गोंयच्या विद्यार्थ्यांक तांत्रिक शिक्षणाखातीरच्यो सुविधा उपलब्ध जाल्यो. सरकारी उद्येगीक प्रशिक्षण केंद्रां (ITI) गोंयच्या साबार वाठारांनी सुरू केल्यांत आनी तातूंतल्यान विंगड विंगड खाशेल्या वावराखातीरचें प्रशिक्षण घेतिल्ले उमेदवार तयार जायत आसात. वास्को बोट बांदावळीचें म्हाविद्यालय आसा. तेभायर गोंयांत हेर मान्यतायप्राप्त खाजगी संस्थांवरवींय वेगवेगळ्या फांट्यांचें तांत्रिक शिक्षण मेळटा.

गोंय उच्च माध्यमिक शिक्षण मंडळान इकरावी आनी बारावी मेरेन कांय विशयांखातीर वेवसायीक तांत्रिक शिक्षणाचे अभ्यासक्रम सुरू केल्यात. विज्ञान आनी तंत्रगिन्यानाच्या मळार नेटान उदरगत जायत आसा आनी ह्या कलांक अनुसरून तांत्रिक शिक्षणावटेन गोंयकार विद्यार्थी गेल्लो दिसता.

**तरेकवार पांवड्यांवयलें तांत्रिक शिक्षण :**

**१) कुशळ कारागीर :** कुशळ कामगारांच्या शिक्षणक्रमांत खाशेले फिशालकायेची गरज आसता. तशेंच संबंदीत गणित, विज्ञान आनी मानव्यविद्या ह्या विशयांचेंय गिन्यान गरजेचें आसता. उद्येगीक प्रशिक्षण संस्थांतलें शिक्षण ह्या सदरांत आस्पावता. आर्विल्लेकरणाक लागून जशे बदल जातात तशे ह्या वेवसायांनीय बदल जातात. हे शिक्षणक्रम एक वा दोन वर्सांचे आसतात. कांय वेवसायांखातीर णववी पास जाल्ले आनी चडशा वेवसायांखातीर धावी पास जाल्ल्या विद्यार्थ्यांक प्रवेश दितात. उमेदवारी कायद्याखाला तांकां कारखान्यांत काम करूंक मेळटा. कुशळ कामगार जावपाखातीर उमेदवारी कायद्याप्रमाण कारखान्यांत उमेदवार म्हणूनूय भरती जावं येता. हो अभ्यासक्रम तीन वा चार वर्सांचो आसता. उद्येगीक प्रशिक्षण संस्थांतल्या प्रशिक्षकांक प्रशिक्षण दिवपाखातीर मुंबय, कलकत्ता, चेन्नई, कानपूर, लुधियाना, नवी दिल्ली आनी हैदराबादेंत

संस्था आसात.

**२) पर्यवेक्षक :** पर्यवेक्षकांचें कार्य उत्पादन वा अभिकल्पक तंत्रज्ञ आनी कारागीर हांचेमदीं मेळ सादपाचें आसता. अभियंत्याच्या कल्पनांक कारागिरांवरवीं मूर्त स्वरूप दिवपाचें कार्य तो करता. हातूंत कसल्याय खाशेल्या वेवसायांतली फिशालकाय अपेक्षीत नासता, पूण हातासकयल्या कामगारांच्या वेवसायांचें सर्वसादारण गिन्यान आसचें पडटा. विज्ञान, गणित, तांत्रिक मूलतत्त्वां हांचो हाच्या अभ्यासक्रमांत आस्पाव केल्लो आसता. सुर्वेक स्थापत्य, विद्युत् आनी यांत्रिकी ह्या फांट्यांनी शिक्षण उपलब्ध जाता. पूण विंगड विंगड क्षेत्रांनी कारखाने सुरू जाल्ल्यान त्या फांट्यांतल्या पर्यवेक्षकांची गरज उपरासूंक लागली. इलेक्ट्रॉनिक्स, धातूविज्ञान, वास्तुशास्त्र, रसायनीक उत्पादनशास्त्र, हॉटेलां आनी आहारविद्या, मुद्रणकला अशा वेगवेगळ्या फांट्यांनी पदविका आसात. पदविका घेतकच खाशेल्या उपशाखेंतलें गिन्यान प्राप्त करून घेवपाखातीर उत्पादन अभियांत्रिकी, स्वयंचल अभियांत्रिकी अशा उपशाखांनी शिक्षणाची वेवस्था आसा.

पदविका परीक्षा पास जाल्ल्या तंत्रज्ञांत प्रत्यक्ष कामाच्या अणभवाचो उणाव आसता. कारखान्यांत कांय दीस प्रत्यक्ष काम करतकच हो उणाव भरून येता. व्हडल्यो उद्येगसंस्था अशा कामाचो अणभव दिवपाखातीर स्वतंत्र वेवस्था करतात. उमेदवारी कायद्याखाल विद्यावेतन दिवन प्रत्यक्ष कामाचो अणभव मेळोवं येता.

**३) उंचेल्या पांवड्यावयले तंत्रज्ञ :** हातूंत उत्पादन तज्ञ, अभिकल्पक, वेवस्थापन तज्ञ, संशोधक हांचो आस्पाव जाता. वेगवेगळ्या शास्त्रांतली पदवी वा पदव्युत्तर शिक्षणक्रम घेतिल्ल्या तंत्रज्ञांचोय आस्स्पाव जाता. पदवी शिक्षणक्रमांत विज्ञान, तांत्रिक विद्या हांचीं मूलतत्त्वां आनी गणीत ह्या विशयांचेर भर दितात. हातूंत मानव्यविद्या फांट्यांतले विशयूय आस्पावतात. उत्पादन तंत्रांत बदल जायत आसता आनी नव्या नव्या क्षेत्रांनी उत्पादन सुरू जाता, तशी अभ्यासक्रमाच्या शाखा-उपशाखांचे संख्येंत वाड जाता.

तांत्रिक म्हाविद्यालयां पांच तरांचीं आसात – १) इंडियन इन्स्टिटट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजी, बिर्ला इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजी अँड सायन्स (बेंगळूर) ह्यो स्वायत्त संस्था आसून तांकां विद्यापिठाची श्रेणी लोकसभेच्या कायद्यावरवीं दितात. २) प्रादेशीक अभियांत्रिकी म्हाविद्यालयां : हीं म्हाविद्यालयां स्वायत्त संस्था आसून थळाव्या विद्यापिठाक संलग्न आसतात. ३) राज्य सरकार आनी खाजगी संस्थांनी चलयल्लीं हीं म्हाविद्यालयां थळाव्या विद्यापिठाक संलग्न आसतात. ४) स्वतंत्र विद्यापीठ : रूडकी विद्यापिठांत अभियांत्रिकी पदवी परिक्षांचें शिक्षण दितात. ५) विद्यापिठांतलो स्वतंत्र विभाग : देखीक मुंबय विद्यापिठाचें डिपार्टमँट ऑफ कॅमिकल टॅक्नोलॉजी, नागपूर विद्यापिठाचें लक्ष्मीनारायण इन्स्टिटट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजी.

**पदव्युत्तर शिक्षण आनी संशोधन :** भारतांतल्यो पांच इंडियन इन्स्टिटट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजी ह्यो संस्था, इंडियन इन्स्टिटट्यूट ऑफ सायन्स, बिर्ला इन्स्टिटट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजी अँड सायन्स, तशेंच राष्ट्रीय प्रयोगशाळा संस्था देखीक – सँट्रल बिल्डींग रिसर्च इन्स्टिटट्यूट, सँट्रल मॅकनिकल इंजिनियरींग रिसर्च इन्स्टिटट्यूट, सँट्रल पब्लीक हॅल्थ इंजिनियरींग इन्स्टिटट्यूट ह्या संस्थांनी पदव्युत्तर शिक्षणाची आनी संशोधनाची वेवस्था जाली. १९६० वर्सापयलीं उच्च शिक्षणाखातीर अस्तंती देशांचेर पातयेवन रावचें पडटालें, पूण १९७० मेरेन भारतांत ३२ शाखा-उपशाखांनी पदव्युत्तर शिक्षणाची तजवीज जाली. हेर म्हाविद्यालयांतल्यानूय पदव्युत्तर शिक्षणाची तजवीज केल्या. व्हड उद्येग समुहांतल्यान उदरगत आनी संशोधन विभाग काडिल्ल्यान संशोधकांक बरी संद मेळ्ळ्या.

तांत्रिक शिक्षणाचो अध्यापक वर्ग उंचेलें शिक्षण घेतिल्लो आनी प्रत्यक्ष कामाचो अणभव आशिल्लो आसूंक जाय. तंत्रगिन्यानाचे प्रगतीवांगडा अध्यापकांनी आपलें गिन्यान अद्ययावत् दवरचें पडटा. तशेंच शिक्षणाच्या अद्ययावत् पद्दतींचें गिन्यान आसप गरजेचें आसता. अशा अध्यापकांखातीर प्रशिक्षण संस्था, पुणें, भोपाळ, चंदीगड, मद्रास आनी कलकत्ता शारांनी आसात. प्रगत देशांतल्या गिन्यानाचो आनी संशोधनाचोय लाव भारतांतल्या साबार संस्थांक जाता.

तांत्रिक शिक्षणाचो पांवडो उच्च राखपाखातीर तशेंच शिक्षणीक समन्वय सादपाखातीर भारतांत राश्ट्रीय पांवड्याचेर ऑल इंडिया इन्स्टिटट्यूट ऑफ टॅक्निकल एज्युकेशन ही समिती आसा. तातूंत उद्येगीक संघटणा, केंद्र सरकार आनी राज्य सरकार हांचे प्रतिनिधी आसतात. नमुनेदार शिक्षणक्रम तयार करून पदविका आनी पदवी परिक्षांचो पांवडो एकसारको दवरपाची जापसालदारकी हे समितीचेर आसता. नव्या फांट्यांनी अभ्यासक्रम सुरू करपाचें कामूय हे समितीकडेन आसा.

– मुकेश थळी

पूरक नोंद : तंत्रविद्या.

## तांदूळ : (पळेयात भात).

## तांबडो दर्या :

पुर्विल्लो – सायनस अरेबिकस, एरीथ्रीअन दर्या, रूब्रम दर्या; अरबी-अल् बहर अल् अहमर (बहर अल् हेजॅझ). सुएझ सावन बाब-एल्-मांदेब दर्यादेगेमेरेन २,१०० किमी. लांबायेचो हिंदी म्हासागराचो एक म्हत्वाचो फांटो. हाचे उदेंतेक अरबस्तानाचे जुंवे आनी अस्तंतेक ईशान्य – आफ्रिका आसून एडनच्या आखातान तो अरबी दर्याक जोडला. क्षेत्रफळ सुमार ४,३८,००० चौ. किमी. चडांत चड रुंदाय ३२२ किमी. सरासरी रुंदाय २९० किमी. आनी चडांत चड खोलाय २,९२० मी. हाची चडशी खोलाय आनी रुंदाय मदल्या भागांत आसून तो उत्तरेक आनी दक्षिणेक उथळ आनी अरूंद आसा. उदेंत दर्यादेगेवयलो कामारान, अस्तंत दर्यादेगेवयलो ओम एल् केतफ, झूला (आनेस्ले) आनी दोखना हे मुखेल उपसागर आसात. अस्तंत भागांत स्वॅकिन जुंवे आनी दालॅक जुंवे, उदेंत भागांत फारासान जुंवे, मदल्या भागांत झेबिरगेट जुंवो, सामके दक्षिणेक झुफार आनी हानीश जुंवे आनी बाब-एल्-मांदेब दर्याधुनींत पेरिम जुंवो आसा. ह्या जुंव्यांमदले कांय जुंवे खडपांचे आसून दालॅक जुंव्यांचे दक्षिणेक जागृत ज्वालामुखींचो चोंबो आसा. जेबेल तिएरचेर मृत ज्वालामुखी आसा. केन्ना केन्नाय उदकाचो पृष्ठभाग दर्याच्या शेळ्यान भरिल्लो आसता. ताका लागून पयसुल्ल्यान दर्याच्या उदकाचो रंग निळ्या -पाचव्या रंगा सुवातेर तांबडो पुडीकोराचो दिसता. ताचेवयल्यान हाका 'तांबडो दर्या' अशें नांव पडलां.

हाचे वायव्येक ३३८ किमी. लांबायेचें, २२.५ किमी. रुंदायेचें आनी ५५ ते ६४ मी. खोलायेचें रूंद दर्यादेगेवयल्या मळाचें सुएझाचें आखात

आसा. ईशान्येचें अकाबाचें आखात १९० किमी. लांब, १६२ किमी. रूंद आनी १,६७५ मी. मेरेन खोल आसा. बाब-एल्-मांदेब दर्याधुनी ३२ किमी. रूंद आसून हिंदी म्हासागरांतल्यान एडनच्या आखातावरवीं तांबड्या दर्यांत वचपाखातीर प्रवेशदार आसा.

उदेंत आफ्रिकेंतल्यान अस्तंत आशियेंत वचपी व्हडल्या देगणांचो चडसो भाग तांबड्या दर्यान व्यापला. ताच्या दोनूय कडांच्या प्रदेशांची उंचाय सुमार २,००० मी. आसा. तांबड्या दर्याचें पात्र भुंयेचे हालचालीक लागून तयार जालां. ही हालचाल अजुनूय जायत आसा, हें ज्वालामुखी आनी भूंयकांप हांचेवयल्यान दिसता.

आदिनूतन काळांत सुमार पांच कोटी वर्सांपयलीं आफ्रिका खंड अरबस्तानांतल्यान वेगळे जावंक लागलें. ऑलिगोसीन काळांत साडेतीन कोटी वर्सांपयलीं सुएझ आखाताची निर्मिती जाली आनी तांबड्या दर्याचे उत्तरेकडलो भाग मध्यनूतन काळांत अडेज कोटी वर्सांपयलीं तयार जालो. अकाबाचें आखात आनी तांबड्या दर्याचो दक्षिण भाग ३० ते ४० लाख वर्सांपयलीं तयार जालो अशें म्हण्टात.

ह्या दर्यांत २,१७० मी. खोलायेचीं 'अटलांटिस सॅकंड डीप' आनी २,२२० मी. खोलायेचीं 'डिस्कवरी ग्रीप' हीं देगणां आसात. तांबड्या दर्यांत विंगड विंगड खनीज संपत्ती आसा. दर्या लागसारचे देस तेल आनी वायू हांचें उत्खनन करीत आसात. बाष्पीभवन करून मीठ, जिप्सम, डोलोमायट हांचेय सांठे तयार करतात. लोखण, जस्त, तांबें, शिशें, रुपें ह्या धातूंचेय सांठे सांपडटात. दर्याच्या तळाक मोलादीक धातूंच्या ऑक्सायडांचे रुपांतरीत खडपांचे थर आसात. तांबड्या दर्यांत वेगवेगळ्या तरांचे प्राणी आसात. दर्याच्या १,९५० मी. सकयल हून, खाऱ्या उदकाचे सांठे आसात. 'अटलांटिस सॅकंड डीप' हातूंत उदकाचें तापमान ६०°सॅ. आसता. तातूंत ऑक्सिजन ना. अशे तरेचे उदकाचे सांठे 'डिस्कवरी डीप' आनी 'चेन डीप' हातुंतूय आसात.

तांबड्या दर्यांत पावसाचें प्रमाण उणेंच म्हळ्यार सरासरी तापमान सुमार २५° ते २८° सॅ. आसता. गिमाच्या दिसांनी आर्द्रतेचें प्रमाण खूब चड आसता. अस्तंती वा इजिप्ती ह्या नांवाचें वारें शिंया दिसांनी नेटान व्हांवता. ताच्या वांगडा खुबदां धुकें आनी रेंवय व्हांवत येता. जून ते ऑगस्ट मेरेन उत्तरेकडल्यान ईशान्य वारें येता. खुबदां बाब-एल्-मांदेब मेरेन हें वारें येता. सप्टेंबर सावन दक्षिणेकडल्यान आनी आग्नेयेकडल्यान वारें येता. तांबड्या दर्याक एकय न्हंय येवन मेळना.

इ. स. प. सुमार १,००० सावन भारताकडेन वचपी उदका येरादारीचो मार्ग म्हणून हाचो उपेग जातालो. बगदादचो खलीफा हारून अर्-रशीद हाणें भूमध्य दर्या आनी तांबडो दर्या हांचेमदीं एक खोल खारीज आसूंक जाय, अशी पयली सुचोवणी इ. स. प. ८००त केल्ली. पूण निमाणें फेर्दिनांद मारी द लेसेप्स हाणें १८६९त सुएझ खारीज पुराय करून तांबडो आनी भूमध्य दर्या जोडले.

तांबडो दर्या उदका येरादारीखातीर कठीण आसून ताचे उत्तरेकडले देगेर सैमीक बंदरां उणीं आसात. खडपां, रेंवेचीं वादळां, उदकाचे अनियमीत प्रवाह हांकां लागून उदका येरादारी करप धोक्याचेंच आसता. तांबड्या दर्याच्या अस्तंत देगेर सुएझ, पोर्ट सुदान, मसावा, आसाब, कुसेर, स्वॅकिन, बेलूल आनी उदेंत देगेर अकाबा, जेद्दा, होडेडा, ॲल वेज, मोखा, येन्बो हीं म्हत्वाचीं बंदरां आनी शारां आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**तांबा, श्रीधर रामा :** (जल्म : २१ जून १९२३, पणजी, तिसवाडी).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें लिसेवाच्या सातव्या वर्सामेरेन शिक्षण घेतलें. तेचपरी कायद्याची परिक्षा दिली. गोंयच्या राष्ट्रवाद्यांचे तो खंयचेच राजकीय संस्थेंत नाशिल्लो तरी सुटकेझुजारी शिरुभाऊ लिमये, मोहन रानडे, दासू चाफडकर, शंभू पालकार, कृष्णनाथ भट, प्रभाकर वैद्य ह्या मनशांक बंदखणींत सवलती मेळच्यो देखून ताणें अप्रत्यक्षपणान वावर केलो. हाका लागून पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांच्या मनांत ताचेविशीं दुबाव उपरासलो.

७ ऑक्टोबर १९५७ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका अटक केलो. तशेंच ताच्या घराचेर धाड घालून थंयचीं राष्ट्रीय पत्रकां जप्त केलीं. हेग न्यायालयांत वापरपाखातीर, दादरा आनी नगरहवेली संबंदींच्या कागदपत्रांची एक प्रत ताणें भारत सरकाराक दिली असो ताचेर आरोप दवरलो. बेळगांवच्यान वितरावणी जावपी Voz de liberdade (Voice of liberty) ह्या रेडिओखातीर गोंयच्यो राजकी आनी अर्थीक खबरो पावयल्यो होय ताचेर आरोप आशिल्लो. एप्रिल १९५९ ह्या दिसा ताका प्रादेशिक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून, तीन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ऑगस्ट १९६० ह्या काळांत बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**तांबूलसंक्रांती व्रत :** बायलांचें एक व्रत. ह्या व्रतांत वर्सभर दरेका म्हयन्यांतल्या संक्रांतिच्या दिसा रातचो ब्राह्मणाक विडो खावपाक दितात. उद्यापनाच्या दिसा ब्राह्मण दांपत्याची पुजा करून ताका भांगराचें कमलाकार पानपूड, आडकातर, चुनो सुपारेखातीर डबयो आनी विड्याचें साहित्य दान करतात. हें व्रत केल्यार सौभाग्य, समृध्दी, घोव आनी पूत हांचेसकट दीर्घायुश्य आदी मेळटा अशी ह्या व्रताची फलप्राप्ती सांगल्या.

मकरसंक्रमणाच्या दिसा ह्या तांबूलदानाचें (विड्याचें) चड म्हत्व सांगलां. हो विडो बत्तीस पानांचो करतात. उद्यापनाच्या दिसा रातच्या पयल्या प्रहरांत गणपती, लक्ष्मीनारायण, उमामहेश्वर, ब्रह्मासावित्री, मदनरती आनी लोकपाल हांची पुजा करून तशेंच होमहवन करून पांच वा सात ब्राह्मण दांपत्यांक जेवण दितात आनी उपरांत शक्य जाता तेप्रमाण ताका विड्याच्या साहित्यान भरिल्लीं भांगराचीं, रुप्याचीं वा पितूळचीं आयदनां दान करतात.

– कों. वि. सं. मं.

**तांबें :** एक धातू. रंग तांबडो. तांब्याचो अणुभार (Atomic Weight) ६३.५४६ आनी अणुक्रमांक (Atomic number) २९.

नवाश्मयुगी मनशान इ. स. पयलीं सुमार ८००० वर्सांच्या अदमासाक सगळ्यांत पयलीं तांब्याचो सोद लायलो आनी फातराबदला तांब्याचो वापर केलो. शुध्द स्वरुपांतल्या ह्या तांब्यापसून तांणी तुतये, सुरयो, चाकू असलीं हत्यारां आनी उपरांत आयदनां तयार करप जालीं. इ. स. पयलीं ६००० च्या अदमासाक उज्याचेर तापयल्यार तांबें विरगळटा आनी जाय तो आकार दिवपाक मेळटा असो सोद लागलो. हातूंतल्यान धातुकापसून धातू गाळपाचे प्रक्रियेक म्हळ्यार धातुविज्ञानाक आरंभ जालो.

इजिप्तांत तांब्याविशींच्यो खूब सुदारणा जाल्यो. इ. स. पयलीं ५००० च्या अदमासाक, इजिप्तांत मेल्ल्या मनशांवांगडा तांब्याचीं शस्त्रां आनी हत्यारां दवरताले अशी नोंद मेळटा. इ. स. पयलीं ३००० च्या अदमासाक स्नेफ्रू ह्या राजांनी सिनई द्वीपकल्पांत तांब्याच्यो खाणी सुरू केल्यो हेविशींचे पुरावे आसात. ह्या काळांतूच पयलीं कांशें (Bronze) तयार करप जालें.

इ. स. पयलीं ३००० च्या अदमासाक सायप्रस जुंव्याचेर व्हड प्रमाणांत तांबें तयार जातालें. ह्या जुंव्यावयल्यानूच रोमन साम्राज्याक तांब्याची पुरवण जाताली. सायप्रसांतल्यान येवपी ह्या धातुद्रव्याक des Cyprium अशें म्हण्टाले. उपरांत ताचें Cyprium हें ल्हान रूप जालें आनी ह्या नांवाचो अपभ्रंश जावन Cyprum हें ताका नांव पडलें. ह्या शब्दांतलीं पयलीं दोन अक्षरां घेवन ह्या धातूचो रसायनीक संकेत 'Cu' तयार जालें. इ. स. पयलीं २५०० च्या अदमासाक चीनांत तांब्याचो वापर जातालो असो उल्लेख शू चिंग हाच्या म्हाकाव्यांत मेळटा.

भारतांत ऋग्वेदाच्या काळासावन तांबें वापरप जाता. ह्या धातूच्या तांबड्या रंगाक लागून संस्कृतांत ताका 'ताम्र' अशें म्हळां. वखद म्हणून तांब्याचो उपेग करताले असो आयुर्वेदांत उल्लेख मेळटा.

तांबें धर्तरेचेर धा लाखांमदीं ४.५ भाग इतलें आसता जाल्यार दर्याच्या उदकांत तें धा लाखांमदीं १ ते २५ भाग आसता. सगल्या जिवांभितर तांबें आसता. मनशाचे कुडींत सुमार १०० मिलीग्राम तांबें आसता. शरिरांतल्या स्नायूंनी, फिग्दांत आनी मेंदवांत तांबें आसता.

धातुरुपांत मेळोवपाचे नदरेन तांबें सल्फायड धातुकाच्या, ऑक्सायड धातुकाच्या आनी शुध्द स्वरुपांत मेळटा. शुध्द स्वरुपांतलें तांबें (९९.९%) अमेरिकेंतल्या मिशिगन आनी लेक सुपीरिअर सरोवराच्या देगांचेर व्हड प्रमाणाचेर आनी कॉर्नवाल, सायबीरिया, उरल, ऑस्ट्रेलिया, चिली, इटली, स्विडन ह्या देशांनी उण्या प्रमाणांत मेळटा. कॅल्कोसायट (Copper glance), कोबेलायट, कॅल्कोपायरायट, बोर्नायट, एनार्जायट, टेट्राहेड्रायट ह्या सल्फायड स्वरुपाच्या धातुकांनी आनी क्युप्रायट, टेनोरायट, मॅलॅकोनायट, मॅलाकायट, ॲझुरायट ह्या ऑक्सायड स्वरुपाच्या धातुकांनी तांबें मेळटा.

अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांच्या रॉकी पर्वत आनी ग्रेट बेसीन ह्या विभागांनी, पेरू आनी चिलींतल्या ॲंडीज पर्वताच्या अस्तंत भागांत, झाईरे (बेल्जियन काँगो) आनी उत्तर झिम्बाब्वे आनी मिशिगनाचो उत्तर भाग आनी कॅनडा ह्या चार विभागांनी जगांतले ९०% तांब्याचें सांठे आसात. चूकिकामाता (चिली) हे सुवातेर सगळ्यांत चड तांब्याचे सांठे आसात. आलास्का, चीन, रशिया, ऑस्ट्रेलिया, उत्तर आनी दक्षिण अमेरिकेचो उरिल्लो भाग आनी आफ्रिका ह्या प्रदेशांतल्या तांब्याच्या सांठ्यांतल्यान जगाची तांब्याची गरज भागोवप जाताली. भारतांत तांब्याचे सांठे राजस्थानांतल्या झुंझुनू आनी अल्वार जिल्ह्यांनी आसात. सिक्कीम राज्यांतल्या रंगपो वाठारांतूय तांबें मेळ्ळां.

दोना पावलाचे गोंयचे राष्ट्रीय समुद्रविज्ञान संस्थेन हिंद म्हासागरांत १९८१ वर्सा तांबें, निकॅल (Nickel), कोबाल्ट (Cobalt), मँगनीज (Manganese) आनी लोखण आशिल्ले गुळे (Nodules) खूब प्रमाणांत आसा म्हणपाचें सोदून काडलां. भारतांत तांब्याचे हेर मुखेल सांठे बिहार, मध्य प्रदेश, आंध्र प्रदेश आनी कर्नाटकांत आसात. गुजरात, पंजाब आनी उत्तर प्रदेशांतूय तांब्याचे थोडे सांठे आसात.

तांबें १०८३° सॅ. तापमानांत कडटा आनी २३२३° सॅ. तापमानांत उकळटा. तांबें आम्लांत विरगळना. पूण ऑक्सिडी आम्लांनी तें रोखडेंच विरगळटा. हवेंत, आमोनिया आनी आमोनियम लवणांत तांबें विरगळटा तशेंच तें सोडियम आनी पोटॅशियम सायनायडांत विरगळटा. सर्वसामान्य हवेंत तांब्याचेर ऑक्सायडाचो काळसो थर तयार जाता. खारे हवेंत क्लोरायडाचो थर तयार जाता. हवेंत तांबें तापयल्यार ताचेर कॉपर ऑक्सायडांचे ($Cu_2O$, $CuO$) थर जातात. खूब वेळ तापयल्यार $CuO$ हें ऑक्सायड तयार जाता. हवेंत तांबें जळना पूण तें ऑक्सिजन - हायड्रोजन हांच्यांत जळटा. ऑक्सिजन, नायट्रोजन, कार्बन डाय-ऑक्सायड, सल्फर डायऑक्सायड असले वायू वितळिल्ल्या तांब्यांत विरगळटात.

धातूंभितर तांबें हो म्हत्वाचो धातू विद्युत् जनित्रां आनी चलित्रां (मोटारी), विद्युत् संवाहक सरयो, केबली, वारांव, मोटार गाडयेंतलीं उपकरणां, स्फोटक पदार्थ, रेडिओ, दूरचित्रवाणी, घड्याळी, तरातरांचीं आयदनां हातूंत तांबें वा तांबें भरशिल्लो मिश्र धातू वापरतात. कांशें, पितूळ सारके मिश्रधातू तांब्यापसून तयार करतात. भांगर-रुपें हें धातू मोव आशिल्ल्यान, तांचे अलंकार करतना ते घट जावपाखातीर उण्या प्रमाणांत तातूंत तांबें भरशितात. कांय देशांनी नाणीं तयार करपाखातीर हेर धातूंवांगडा तांबें वापरतात. तांबी (Copper T) ह्या संतती नियमनाच्या उपकरणाखातीर तांबें वापरतात.

**तांब्याचें उत्पादन -** तांब्याच्या खनिजाप्रमाण, तांबें तयार करपाची पद्दत आसता.

**१) गंधक आशिल्लें खनीज** (From Sulphide Ores) - ह्या खनिजांत, तांबें चड प्रमाणांत म्हळ्यार ४% वयर आसत जाल्यार तें खनीज कडोवन तांबें काडटात. ह्या खनिजांत ४% परस उणें तांबें आसत जाल्यार जलधातू सोद पद्दतीन (Hydrometallurgy) तांबें काडटात.

**कडोवपाच्यो पद्दती :** (१) खाणींतल्यान काडिल्लें खनीज गिरणींत घालून बारीक पिठो करतात. ह्या पिठ्यांतली निरुपयोगी माती (gangue) कुशीक काडून, उरिल्ल्या पिठ्यांत उदक आनी हेर रसायनां घालतात आनी तें वारो दिवन धवळटात. अशें करतकच फेंस येता. नाका आशिल्ली माती (gangue) उदकापोंदा बसता. उदकावयल्या फेंसांतल्या खनिजांत ९५% परस चड तांबें आसता. हो खनीज पिठो भट्टेंत भाजले उपरांत (Roasting) तातूंतले आर्सेनिक (Arsenic) आनी ॲन्टीमनी (Antimony) उडून वता. भाजिल्लें खनीज उपरांत कोळसो आनी रेंव भरसून व्हडले भट्टेंत घालून कडयतात. उपरांत फेर्रस ऑक्सायडाचें मळांत रुपांतर जाता. हो मळ वयर एकठांय जातकच कुशीक काडटात आनी कॉपर सल्फायड आनी फेर्रस सल्फायड हांचें मिश्रण मेळटा. ह्याच मिश्रणाक मॅट अशें म्हण्टात. हें कडयल्लें 'मॅट' (matte) दुसरे भट्टेंत घालून ताचेर प्रक्रिया करतात. अशें करतकच कडिल्लो धातू म्हळ्यार तांबें भट्टेपोंदा सकयल पडटा. कडयल्लें तांबें रेंवेंच्या सांच्यांनी (Sand Maulds) घालतात. रेंवेंच्या सांच्यांत कडिल्ल्या तांब्यांतलो सल्फर डायॉक्सायड वायू भायर वता आनी तांबें ९८% शुध्द जाता.

२) अ) जलधातू सोद पद्दत (Hydrometallurgy) - उण्या प्रमाणांत आशिल्ल्या खनिजाची रास (सुमार १,००,००० टन) सुमार वर्सभर उदकांत भिजोवन दवरतात आनी तातूंत वारो सोडटात अशें केल्ल्यान कॉपर सल्फायडाचें (Copper sulphide) कॉपर सल्फेट (Copper sulphate) जाता. कॉपर सल्फेट विरगळटा आनी ताचें पाचवें उदक राशीपोंदा पाझरता. तें उदक क्राँकिटाच्या टांकयांनी एकठांय करतात. खनिजाचे

राशीचेर पुराय प्रक्रिया जावंक सुमार एक वर्स लागता. कॉपर सल्फेट विरगळिल्ल्या पाचव्या उदकांत उपरांत पोरणें लोखण (iron scrap) घालून तांबें वेगळें काडटात. वेगळें काडिल्लें तांबें उपरांत सुकोवन, कडोवन नितळ करतात.

ब) गंधक नाशिल्लें खनीज (From Non-Sulphide Ores) - खनिजाचो बारीक पिठो करून ताचे वयल्यान उदकाची धार सोडटात. नाका आशिल्ली ल्हव माती (lighter gangue) धुवून वता आनी खनिजाचे जड कण पोंदाक बसतात. हें खनीज उपरांत तापयतात आनी ताचें 'कॉपर ऑक्सायड' तयार जाता. हें कॉपर ऑक्सायड, कोळसो आनी हेर रसायनांवांगडा भरसून खोर्नात तापयतकीच ताचें तांबें जाता.

उदकापोंदाक बशिल्ल्या जड खनिजांतल्यान तांबें काडपाची आनीक एक पद्दत आसा. हे पद्दतींत जड खनीज पातळ सल्फ्युरीक आम्लांत (diluted Sulphuric Acid) विरगळायतात आनी इलॅक्ट्रोलिसीस करून वा लोखणाचो पिठो घालून तांबें काडटात.

अशे पद्दतींनी तयार केल्लें तांबें शुध्द नासता. तेखातीर तें इलॅक्ट्रोलिसीस करून नितळ करतात. अशे तरेचें तांबें सुमार १००% शुध्द आसता.

**भारतीय उद्येग** - १९२४ वर्सा तांबें तयार करपाखातीर भारतांत इंडियन कॉपर कॉर्पोरेशन लिमिटेड ही संस्था स्थापन जाली. हे संस्थेचो माऊभांडर (सिंगभूम) हांगा कारखानो आसा. १९२८ वर्सा ह्या कारखान्यांतल्यान तांब्याच्या उत्पादनाक सुरवात जाली. सप्टेंबर १९७२ वर्सा हो कारखानो हिंदुस्थान कॉपर लिमिटेडचे सुवादीन करप जालो. ही संस्था १९६७ वर्सा कलकत्ता हांगां स्थापन जाली. हे संस्थेवतीन खेत्री कॉपर प्रॉजॅक्ट, इंडियन कॉपर कॉम्प्लॅक्स, राखा कॉपर प्रॉजॅक्ट, अग्निगुंडाला लॅड - कॉपर प्रॉजॅक्ट, दरिबा कॉपर प्रॉजॅक्ट आनी माळंजखंड कॉपर प्रॉजॅक्ट हे प्रकल्प सुरू आसात. खेत्री प्रकल्प फ्रान्स आनी फिनलंड ह्या देशांच्या आदारान उबारला. ह्या प्रकल्पाची उत्पादन क्षमताय ३१,००० टन तांबें तयार करपाइतली आसा. इंडियन कॉपर कॉम्प्लॅक्साचे वतीन बिहारांतल्या घाटसीला हांगा उत्पादन सुरू आसा. ह्या कारखान्याची उत्पादन क्षमताय १३,००० टन आसून ती २०,००० टनांमेरेन वाडोवपाची आसा. राखा कॉपर प्रॉजॅक्ट हो बिहारांत, अग्निगुंडाला लॅड - कॉपर प्रॉजॅक्ट आंध्र प्रदेशांत, दरिबा कॉपर प्रॉजॅक्ट राजस्थानांत आसून माळंजखंड कॉपर प्रॉजॅक्ट हो मध्य प्रदेशांत आसा.

इ. स. १९३९ मेरेन भारतांतल्यान कांशें, पितूळ आनी तांबें हांच्या भायर उडोवपाच्या म्हालाची निर्यात जाताली. पूण उपरांत ताचेपसून दुय्यम तांबें देशांतूच तयार जावपाक लागलें. मुंबय आनी कलकत्ता हांगा अशे तरेचे व्हड कारखाने आसात. तशेंच जयपूर, मेरठ, मिर्झापूर आनी मद्रासाक ल्हान कारखाने आसात. भारतांतल्या तांब्याच्या वापराभितर सुमार ४५ - ५०% तांबें विद्युत उद्येगांनी, सुमार १२% तांबें विंगड विंगड मिश्रधातू तयार करपाखातीर आनी उरिल्लें तांबें हेर उद्येगांनी वापरप जाता.

एप्रिल १९९० मेरेन भारतांत ५०,६०,४२५ मॅट्रीक टन तांबें तयार केलां.

गोंयांत तांब्याच्यो खाणी वा तांबें तयार करपाचे कारखाने नात. पूण तांब्याच्यो वस्तू करपाचे उद्येग आसात. ह्या उद्येगांनी तांब्याची आनी पितूळचीं आयदनां, दिवल्यो, टाळ आनी हेर सोबेच्यो वस्तू तयार करपाचो वावर चलता. गोंयांत दिवचले तयार करतात त्या दिवल्यांक खूब मागणी आसता.

– प्रा. प्रेमानंद गो. फडते

पूरक नोंद : ताम्रपाशाणयुग.

## तांबे, भास्कर रामचंद्र

**तांबे, भास्कर रामचंद्र** : (जल्म : २७ ऑक्टोबर १८७३, मुगावली, ग्वाल्हेर; मरण : ७ डिसेंबर १९४१, ग्वाल्हेर).

नामनेचो मराठी कवी. ताचो मूळ गांव रत्नागिरी जिल्ल्यांतलो खेटकुई. ताचे पुर्वज पेशवाईंत गोविंदपंत बुंदेले हाचेवांगडा उत्तर हिंदुस्थानांत गेले. तांच्या कर्तुबाखातीर बुंदेलखंडांतलो कुढोण हो गांव तांकां जहागीर म्हणून फावो जालो.

ताचें शिक्षण मुगावली, झांशी आनी देवास नगरांनी जालें. १८९३त तो अलाहाबाद विश्वविद्यालयाचे मॅट्रिकेचे परिक्षेंत पयल्या वर्गांत पास जालो. घरचे गरीब परिस्थितीक लागून ताका उंचेलें शिक्षण घेवंक मेळ्ळें ना. पूण आपल्या व्यासंगान आनी प्रतिभेन मराठींतलो एक व्हड कवी म्हणून ताणें नामना जोडली.

१९०९ ते १९११ मेरेन तेन्नाच्या मध्य भारतांतल्या ल्हान-व्हड संस्थानांनी ताणें खुबशी जापसालदारकेची कामां केली. १९११ ते १९१४ मेरेन पिपलोदा नगरांत दिवाण म्हणून ताणें काम पळेलें. प्रतापगडाक तो पोलीस सुपरिटॅंडॅन्ट आनी न्यायाधीश आशिल्लो. प्रतापगडाक आसतनाच, १९२० वर्सा ताचो पयलो कवितांझेलो उजवाडा आयलो. १९२१ वर्सा ताणें अजमेराक ग्वाल्हेरच्या, सरदारांच्या भुरग्यांचो पालक म्हणून काम केलें. थंय तो दोन वर्सां उरलो. ह्या काळांत ताचे प्रतिभेक नवो चवर आयलो. १९२३ वर्सा तो श्योपुर - बडोद्याक अधिकार पदाचेर आशिल्लो. थंयसावन ग्वाल्हेराक Registrar of Examinations ह्या पदाचेर ताची नेमणूक जाली.

१९२६ वर्सा इंदूराक पयलें मध्यभारतीय मराठी कवीसंमेलन जालें, ताची येजमानकी तांबेन चलयली. १९३२ वर्सा कोल्हापूराक भरिल्ल्या साहित्य संमेलनाखाला जाल्ल्या कवी संमेलनाचें येजमानपद तांबेक फावो जालें. १९३४ वर्सा तांबेचो 'साठी सुवाळो' महाराष्ट्रांत आनी महाराष्ट्राभायर व्हड दबाज्यान मनयलो. १९३५ वर्सा 'तांबे वाडदीस मंडळा'न 'तांबे - व्यक्ति आणि कला' हें पुस्तक उजवाडा हाडलें. १९३७ वर्सा तांबे निवृत्त जालो. ग्वाल्हेरच्या संस्थानिकांनी ताका 'राजकवी' ही पदवी दिली.

तांबे हाची समग्र कविता वा. गो. मायदेव (१९२०), दि. गं. केळकर (अज्ञातवासी - १९२७) आनी डॉ. माधवराव पटवर्धन (१९३५) हाणी संपादीत केली.

भा. रा. तांबे प्रतिभावंत आशिल्लो. संस्कृत, इंग्लीश काव्य, नाटक,. समिक्षा आनी तत्त्वगिन्यान हांचें ताणें वाचन, मनन आनी चिंतन केलें. विद्यार्थी दशेंत आसतना, भग्वद गीता ताच्या नित्याच्या पठणांत आसताली. कपिलाच्या सांख्यदर्शनाचो ताणें अभ्यास केलो. तशेंच ताणें मिल, कांट, शॉपेन हॉवर ह्या अस्तंती तत्त्वचिंतकांचो आनी स्पॅन्सर, डार्विन हांच्या ग्रंथांचो अभ्यास केलो. अजमेराक आसतना ताणें उपनिषदांचोय अभ्यास केलो.

तांबेन १८९१ ते १९४१ ह्या पन्नास वर्सांच्या काळांत सुमार २२५

कविता बरयल्यो. तातूंत प्रेमकविता, सैमाच्यो कविता, चिंतनशील कविता, बालगितां हांचो आस्पाव जाता. ताची काव्य रचणूक गीतकाव्यात्मक आसा. ताचें प्रेम-कवितेंत, प्रियकर आनी प्रेयसी हांचे भावजिणेचो विकास दिसता. ताचे जिणेचे संगतीन ही कविता उपरासली आनी वाडली. हे कवितेंत आपल्या प्रपंचांतले मोगाळ सहचारिणीच्या सांगातांतले खीण ताणें शब्दरुपाक हाडले. ताणें प्रेमकवितेंत मोगी मनशाच्या अंतस्करणातले सगल्या तरांचे उमाळे आनी भावावस्था रंगयल्यात. आत्मतृप्ती आनी उदात्त भावना आशिल्ल्यो प्रेमकविता बरोवन ताणें मराठी प्रेमकवितेंत आपलें खाशेलपण दाखयलां.

भा. रा. तांबे हाच्या कवितांचेर ताचे जीवनदृश्टीचो परिणाम जाल्लो दिसता. भारतीय तत्त्वगिन्यान आनी साहित्यशास्त्र हांचोय ताचेर प्रभाव आशिल्लो. जिवीत आनंदान भरलां. ह्या तत्त्वाचेर ताची श्रध्दा आशिल्ली. परमेश्वराच्या शक्तीच्या विलासांतल्यान जिविताची निर्मणी जाल्ल्यान काव्य, सैम, बायल आनी प्रेम ह्या सगळ्यांत परमेश्वराचे शक्तीचो आस्पाव आसता अशें ताका दिसता.

ताणें कांय नाट्यगितांय बरयल्यांत. मराठी कवितेच्या संवसारांत ताच्या 'सहज तुझी हालचाल', 'रिकामे मधुघट', 'घट भरे प्रवाहीं बुडबुडनी', 'मरणात खरोखर जग जगते', 'नववधू प्रिया मी बावरते', 'जन पळभर म्हणतील हाय हाय' ह्या कवितांक म्हत्वाची सुवात आसा. ताणें चालीक लायिल्लो गीतसंप्रदाय हाका तांबे संप्रदाय म्हणुनूय वळखतात.

– डॉ. सोमनाथ कोमरपंत

**तांबोळी :** एक जात. तांबूल ह्या संस्कृत उतरावयल्यान तांबोळी हें उतर आयलां. हे लोक विड्याचीं पानां विकपाचो वेवसाय करतात. हे लोक भारतांत सगळ्या वाठारांनी दिश्टी पडटात. महाराष्ट्रांतल्या तांबोळ्यांमदीं लिंगायत, मराठा आनी मुसलमान अशे तीन पोटभेद आसात. अशें सांगतात की, शंबर सवायशें वर्सांआदीं हे लोक गुजरात आनी पंजाब ह्या वाठारांतल्यान महाराष्ट्रांत आयले. नागवेलीचीं पानां विकप आनी गोरवां पोसप हे तांचे मुखेल धंदे. तांचेमदीं कांय जाण अजुनूय गुजराती भास उलयतात आनी गुजराती भेस करतात. ते आपलीं धर्मीक कृत्यां ब्राह्मण आनी जंगम पुरयताकडल्यान करतात.

राजस्थानांतल्या तांबोळ्यांमदीं चौरासी, पनगरिया, महोबिया, जैस्वार, गंगपारी आनी परदेसी अशे पोटभेद आसात. तांचेमदीं बालविवाहाची पद्दत आसा. जातींतल्या कोणाय तरणाट्यान खंयचेय चलयेक फूस लावन तिचेकडेन तो लग्न जालो जाल्यार त्या लग्नाचो दंड म्हणून म्हालो ते चलयेच्या केंसांचो एक आगळ, खंयच्या तरी एका तळ्याचे देगेर कापता. चलयेक त्या दिसा उपास करचो पडटा. तिच्या कुटुंबाकडल्यान त्या दिसा ते जातीक मेजवानी मेळटा.

हे जातींत भुरग्याचो बारसो सव्या वा बाराव्या दिसा करतात. तांचेमदीं नागपंचमीक नागाचे पुजेक चड म्हत्व आसा. तेविशीं एक कथा प्रचलीत आसा ती अशी - पुर्विल्ल्या काळांत धर्तरेचेर विड्याचें पान नाशिल्लें. पांडवांनी जेन्ना हस्तिनापुरांत अश्वमेध यज्ञ केल्लो तेन्ना तांकां विड्याचें पान जाय आशिल्लें. देखून पांडवांनी तें हाडपाक आपलो दूत, वसुकीक, हे नागाचे राणयेकडेन पाताळांत धाडलो. तिणें आपले करंगळीचो थोडो भाग कापून दिलो. धर्तरेचेर हाडून ताणें तो भुंयेंत पुरलो. तेन्ना तातूंतल्यान नागवेल आयली. तेन्नाच्यान विड्यांच्या पानांचे वेलीक नागवेल अशें नांव पडलें. बराई जातीचो असो समज आसा की तांबोळ्यांक नाग केन्नाच चाबना.

– कों. वि. सं. मं.

**तांब्यापटो :** जाचेर लिखाण कोरांतिल्लें आसता तो तांब्यापटो. पुर्विल्ल्या काळासावन भारतांत कोरीव लेखांखातीर खुबशा प्रमाणांत तांबें हो धातू वापरांत हाडिल्लो दिसता. कोरीव ताम्रलेखांक ताम्र, ताम्रपट, ताम्रपत्र, ताम्रशासन अशीं नांवां आसून ताचे दोन ते पांच चौखण फुटांमेरेन वेगवेगळे आकार मेळटात. सादारणपणान तांब्यापट्याचेर राजाज्ञा वा दानपत्रां कोरांतून दवरपाची चाल आशिल्ली. पूण कांयकडेन व्हड व्हड ग्रंथ तांब्यापट्याचेर कोरांतिल्ले दिसतात. अशें सांगतात की, बौध्दांचे कांय धर्मग्रंथ आनी सायणभाश्य तांब्यापट्यांचेर कोरांतिल्लें आशिल्लें. एक स्मारक वा यादस्तीक म्हणुनूय तांब्यापट्याची निर्मिती जाल्ली दिसता. मौर्य काळांत राजाज्ञा तांब्यापट्यांवरवीं करपाची चाल आशिल्ली. हें सोहगौरा (जि. गोरखपूर) नगरांतल्या तांब्यापट्यावयल्यान कळटा.

तांब्यालेख एका पानाचे तेचपरी जायत्या पानांचेय आसतात. पानांची संख्या, कोरांतपाचो जो मजकूर आसता ताच्या उण्याअदीक प्रमाणाचेर आदारून आसता. इ. स. ७४० तलो पल्लववंशी नंदिवर्मा हाचो लेख इकरा पानांचो आसा. लंडन विद्यापिठाच्या संग्रहालयांत दवरिल्लो राजराजेंद्र चोळाचो एक तांब्यापटो एकवीस पानांचो आसा. पानांची संख्या एकापरस चड आसल्यार तीं पानां एका गांचाक गुंथतात आनी गांचाचेर अधिकृतिदर्शक राजमुद्रेचो छाप आसता. हे राजमुद्रेचो ते ते राजवटीचें चिन्न वा लांछन (देखीक - शींव, वाग, गरूड, बैल आदी) आसतालो. केन्ना केन्नाय लेखाचें अधिकृतपण राजाचे सयेन 'स्वहस्तम' असो शब्द कोरांतून दाखयतात. इ. स. १२७२तल्या पैठणच्या तांब्यापट्याच्या गांचाचेर एक गरूडमूर्त आसा. चडशे सगळे तांब्यापटे दानपत्रांच्या स्वरुपाचे आसून स्मारकपर तांब्यापट्याची संख्या उणी आसा.

तांब्यापटो चड करून धारेच्या शस्त्रान कोरांतिल्लो आसता. पूण केन्ना केन्ना तांब्यापट्याचेर तिंतान बरयल्लें लिखाणय मेळटा. भोजराज शिलाहारान शके १११३त गोविंदभट्ट पटवर्धन हाका दिल्ल्या तांब्यापट्याची, तीन वेगवेगळ्या तांब्यापट्यांचेर लाखेच्या तिंतान बरयल्ली एक प्रतिकृती राजापूर (रत्नागिरी) गांवांत आसा. पुर्विल्ल्या इतिहासाचीं विस्वासाचीं साधनां म्हणून तांब्यापट्याक चड म्हत्व आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**ताक :** धंय धवळून लोणी काडटकच उरता तो पदार्थ. लोणयाच्या उत्पादनांत हो उपपदार्थ म्हणून मेळटा. लोणयाच्या उत्पादनाखातीर जर गोडी साय (मलई) वापरत जाल्यार ताकाचें संघटन साय नाशिल्ल्या दुदावरी जाता, पूण आंबट साय वापरल्यार मात ताकांत लॅक्टीक आम्ल (आंबसाण) चड आसता. धंय धवळटाना तातूंत उदक घालचें पडटा. तेखातीर ताक धवळून लोणी काडलें म्हण्टकच पातळशें ताक उरता. ताजें ताक रुचीन आंबसार लागता आनी ताका एक प्रकारची रुचूय येता. शेळें ताक चड आंबट जाता, ताची रूच कडवट जाता आनी

आंबटसो वास मारता. ताकापूसन ताकाची कडी, मठ्ठा असले पदार्थ करतात वा ताक निकटें पियेतात. ताकाच्या दर १०० ग्रामांत ९७.५% उदक, ०.८% प्रथिनां, १.१% मगज, ०.५% हेर कार्बोहायड्रेट, ३० मिग्रॅ. कॅल्शियम; ३० मिग्रॅ. फॉस्फरस; ०.८ मिग्रॅ. लोखण आसून तांचेपसून १५ कॅलरी ऊर्जा मेळटा.

उत्तर अमेरिकेंत १९०० मेरेन ताकाचो उपेग दुकरांक लावपाखातीर करताले. पूण फुडें ताकांतल्या आरोग्यदायक आनी पुश्टीक गुणधर्मांखातीर तें एक लोकप्रिय पेय जालें. अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां आनी कॅनडांत व्हड प्रमाणांत ताक बाटलेंत वा खोक्यांत सीलबंद करून हॉटेलां, दुकानां आनी शीतपेयगृहांनी विकूंक दवरतात. कांयकडेन साय नाशिल्ल्या दुदांत एक प्रकारचे सुक्ष्मजंतू घालून तें आंबोवंक दवरतात. हें ताक सदच्या ताकापरस दाट आसता.

आयुर्वेदांत ताकाचे उदक घाल्ले आनी उदक घालूंक नाशिल्ले, तशेंच लोणी आशिल्ले आनी लोणी नाशिल्ले अशे प्रकार सांगल्यात. ताकाचे सामान्य गूण अशे आसात - गोड, आंबट, तोरट, उश्ण, पथ्यकर आनी शुक्रधातूक हितकर.

कों. वि. सं. मं.

**तागडी :** पदार्थांचें वजन जोखपाचें साधन. वजन दाखोवपी दर्शकाचो आकार कांट्यासारको आशिल्ल्यान तागडेक 'कांटो' अशेंय म्हण्टात. तागडेंत एके घट्ट धातूचे दांडयेक बरोबर मदी हातान धरपाची वा हुमकळावन दवरपाची वेवस्था आसता. दांडयेच्या मध्यासावन सारक्या अंतराचेर आशिल्ल्या दोनूय तोंकांक दोन सारक्या वजनाचीं दालीं लायिल्लीं आसतात. जे वस्तूचें वजन करपाचें आसता ती एका दाल्यांत घालून दुसऱ्या दाल्यांत प्रमाणीत वजनां घालतात आनी तागडेची दांडी क्षितीजसमांतर (बरोबर आडवी) जायमेरेन (वा दांडयेच्या मध्यार एक धातूचो ल्हान कांटो तिका काटकोनांत आसल्यार, म्हळ्यार बरोबर उबो जायमेरेन) ती वस्त उणी करतात.

तुळाभार ह्या धर्मीक विधींत, मनशाक एका दाल्यांत आनी सम प्रमाणांतले आंगयल्ले जिन्नस दुसऱ्या दाल्यांत घालून मनशाचें वजन करतात. एक दालें आशिल्ल्यो तागड्योय वेव्हारांत आसात. देखीक - स्प्रींग कांटो.

दांडयेचे तागडेचे समभूज आनी विशमभूज अशे दोन प्रकार आसून दुकानां, बाजारांतल्या सदच्या वेव्हारांत समभूज जातीची तागडी वापरतात. दुसरे तरेची तागडी म्हालगाडयेन, बोटीन धाडपाच्या व्हडल्या वज्याच्या वजनाखातीर वापरतात.

**इतिहास :** तागडी ही पुर्विल्ल्या काळासावन प्रचारांत आसा. इ. स. प. ७००० ते ५००० वर्सांसावन ती इजिप्तांत वापरांत आशिल्ली, असो आदार मेळटा. मोहेंजोदाडो, हडप्पा ह्या संस्कृतायांच्या काळांत तशेंच वेदीक काळांतय तागडी वापरांत आशिल्ली, अशें दिसून आयलां. क्रिस्तापयलींच्या काळांतले कांय शेंकडे ती जगांतल्या चडशा देशांनी वापरांत आशिल्ली, अशें म्हण्टात. पुर्विल्ल्या काळासावन चलत आयिल्ले समभूज तागडेंत म्हत्वाच्यो अशो सुदारणा पयली अठराव्या शेंकड्यांत जोझेफ ब्लॅक ह्या रसायनशास्त्रज्ञान केल्यो. इ. स. प. ४०० वर्सांपयलीं विशमभूज तागडी तयार केल्ली. ताका 'बिस्मार' अशें म्हण्टाले. हाकाच फुडें 'डॅनीश स्टील यार्ड' अशें म्हणूंक लागले. ह्या तागड्यांचीं चित्रां भारतांतल्या इ. स. प. ३०० वर्सां ह्या काळांतल्या नाण्यांचेर सांपडल्यांत. विसाव्या शतमानाचे सुरवातीच्या काळामेरेन ती भारतांत वापरताले; पूण हे तागडेसावन व्हडलीशी बिनचूक वजनां करप जायनासलें.



पदार्थांचीं वजनां १ मायक्रोग्राम (=१०⁻⁶ ग्रा.) मेरेन चुकनासतना करपी तागडेक सूक्ष्ममापक तागडी अशें म्हण्टात. गुरुत्वाकर्शण आनी चुंबकीय क्षेत्र हांचें मापन करपाखातीर खास परिपिडन तागड्यो वापरतात. आदल्यातेपार धान्याचे जीनस पडी-पायल्यांनी (लांकडी मापां) जाल्यार तेला सारकिले पातळ जिनस शेरांनी (धातुचीं मापां) मापताले - जोखताले. सद्याच्या काळांत सगलेच तरेचे जिनस तागडेर जोखप जाता.

वेव्हारांत आनी वेपारांत वेगवेगळ्या सुवातींनी विंगड विंगड पदार्थांचीं वजनां करचीं पडटात. भांगर-रुप्या सारकिल्या मोलादीक वस्तूंच्या वजनाखातीर चड बिनचूक आनी संवेदनशील तागड्यो वापरप गरजेचें आसता. जळवाचें लांकूड, कोळसो हांचेसारकिल्या पदार्थांच्या वजनाखातीर चड वजन तोलूंक शकपी पूण कमी संवेदनशील तागडी वापरची पडटा. तोलपाच्या वस्तूंच्या प्रकाराप्रमाण खंयचे क्षमतेची तागडी वापरची, हें चडशा सगल्या देशांनी कायद्यान निश्चीत करून दिल्लें आसा. तागडी आनी वजनाचें मूल्य निश्चीत करपाची आनी ताचेर देखरेख दवरपाची सरकारी यंत्रणा आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**ताजमहाल :** संवसारीक नामना मेळिल्ली, शहाजहान राजान बांदिल्ली एक कबर. ही वास्तू आग्रा शारापसून तीन मैलांचेर यमुनेचे देगेर आसा.

इ. स. १६३१ वर्साचे सुर्वेक मोगल सम्राट शहाजहान हाची बेगम अर्जुमंदबानू वा मुमताजमहाल हिका मरण आयलें. तिचें एक यादस्तीक बांदचें, अशें शहाजहानान थारायलें आनी आगऱ्याचे दक्षिणेक राजा जयसिंगाचे मालकीचो जागो विकतो घेवन थंय मुमताजाचें दफन केलें आनी ताजमहालाची ही इमारत बांदली. हे इमारतीच्या बांदकामाक २०,००० लोक २२ वर्सां काम करताले. त्या काळांत, ताजमहालाक ६ कोटी रुपया खर्च आयलो, अशी म्हायती बादशहानाम्यांतल्यान मेळटा.



यमुनेच्या कांठार, उदकाच्या प्रवाहाक काटकोनांत ५७९.१२ मीटर ×३०४.८० मीटर दक्षिण - उत्तर असो चवकोन आसा. तातूंत मदल्या ३०४.८० मीटर × ३०४.८० मीटर चवकोनांत बाग, तिरांवयल्या १३७.१६ मीटर × ३०४.८० मीटर ह्या चवकोनांत मदीं ताजमहाल आनी ताच्या दोनूय कुशींनी 'मशीद' आनी 'जवाब' ह्यो दोन इमारती आसात. दुसरे वटेंतलो १३७.१६ मीटर × ३०४.८० मीटर ह्या चवकोनांत प्रवेशदार, चौक, पडव्यो आनी बाजार आसा.

सरभोंवतणीं तांबड्या फातरांनी बांदिल्ली ऊंच वणत आसा. फुडल्या प्रवेशदारांतल्यान भितर वतकच चौकांतल्यान दावे वटेन गेल्यार, ताजमहाला मुखावयले व्हडले बागेचें प्रवेशदार दिश्टी पडटा. ह्या प्रवेशदाराचे चवकटींतल्यानच पुराय ताजमहाल दिश्टी पडटा. ह्या तांबड्या फातरांनी बांदिल्ल्या प्रवेशदारांतले कमानीभोंवतणीं धव्या संगमरवरी अक्षरांनी कुराणांतले आयते कोरांतल्यात. बागेंत मदीं धांवत्या उदकाचो प्रवाह दवरला. प्रवेशदारासावन महालामेरेन रस्त्याच्या दोनूय वटांनी सुरुचीं झाडां आनी पाचवेंचार तण आसा. उदेंत - अस्तंत आनी उत्तर - दक्षिण मध्यरेशांचेर कारंजीं आनी व्हांवत्या उदकाचे पाट आसात. अस्तंती वांटांच्या तोंकांचेर वण्टींतलीं प्रवेशदारां आसात. बागेचे मदीं मातसो ऊंच धव्या संगमरवराचो चौथरो, तातूंत तळें, सामकार रूंद तांबड्या फातरांचो चौथरो, ताचेर दोनूय वटांनी दोन इमारती आनी तांचेमदीं एका ऊंच धव्या संगमरवरी चौथऱ्याचेर ताजमहाल आसा. ह्या चौथऱ्याचें क्षेत्रफळ ९५.४० मीटर × ९५.४० मीटर आनी ६.७० मीटर इतली आसा.

ताजमहालाची वास्तू ५६.७० मीटर घनचवकोन चार दिशांच्या चार मुखेल वटांनी २८ मीटर उंचायेचीं प्रवेशदारां आनी कोनशांनी घुमट आशिल्ल्यो चार सत्र्यो आसात. हे वास्तूभितर मदीं फकत दर्शनाखातीर दोन कबरी आसात, पूण मुखेल कबरी तळघरांत आसात. ताजमहालाच्या मुखेल घुमटाचो आवांठ १७.६७ मी. आनी उंचाय २२.५५ मी. मुखेल पृश्ठभागांचेर संगमरवर कोरांतून भितर रंगीत खडे आनी कोरीव जाळयो बसयल्यात. ह्यो जाळयो अशे तरेन बसयल्यात, की भायलो उजवाड सहजतायेन भितर येता.

हे इमारतीचो नमुनो कोणें तयार केलो हाचेविशीं बरेच वाद आसात. तेविशीं जेरोनिमू, वेरोनेव, ऑस्टिन, द बोर्दो, उस्ताद इंफादी, उस्ताद अहमद लाहोरी आनी हेर जायत्या जाणांचीं नांवां घेतात. हाचेवेल्यान हो नमुनो देशी तशेंच विदेशी कलाकारांनी तयार केला असो तर्क काडप जाता. हिंदू शिल्पशास्त्राच्या सिध्दांतांचें पालन करून ही निर्मिती केल्या. मदीं व्हड घुमट, घुमटाच्या मुळाकडेन कमळाच्यो पाकळ्यो आनी शिखराचेर त्रिशूळ आसा.

संवसारभरच्या पर्यटकांखातीर, ताजमहाल एक खाशेलें आकर्शण जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**ताटयो** : एक भारतीय मैदानी खेळ. कसलोच खर्च करिनासतना, सपाट अशे जमनीर खेळपाचो एक खेळ. हो खेळ चडसो महाराष्ट्र आनी गोंयांत खेळिल्लो दिसता. महाराष्ट्रांत ह्या खेळाक 'आट्यापाट्या' जाल्यार गोंयांत 'मीठ फाळणी आनी ताटयो' अशें म्हण्टात.

ह्या खेळाच्या मैदानांत २३ फूट १ इंच लांबाय आनी १३ इंच रुंदाय आशिल्ल्यो णव आडव्यो ताटयो आंखतात. तांचे मदोमद ८९ फूट लांबाय आनी १३ इंच रुंदाय आशिल्ली उबी ताटी आसता. दोन आडव्या ताटयांमदलें अंतर ११ फुटांचें आसता. जंयसून खेळ सुरू जाता ते पयले ताटयेक चांबार ताटी वा कपाळ ताटी म्हण्टात आनी निमाणे ताटयेक लोक ताटी वा मिठा ताटी म्हण्टात. मदले उबे ताटयेक सूर ताटी, मृदंग ताटी वा दांड ताटी म्हण्टात. णव आडव्यो ताटयो आनी एक उबी ताटी हांचेपसून सोळा खण निर्माण जातात. ताटयांचे सरभोंवतणीं धा फुटांची मेकळी सुवात खेळगड्यांचे घोळणुकेखातीर दवरपाची आसता. हो खेळ दरेकी णव गडी आशिल्ल्या दोन पंगडांमदीं खेळटात.

पयली ताटी सोडून उरिल्ल्या आठ ताटयांचेर एकाच पंगडांतले आठ खेळगडे (राखणे) उबे रावतात. णवो खेळगडो मदले उबे ताटयेचेर रावून राखण करता. विरोधी पंगडांतल्या णव खेळगड्यांनी ताटयो पार करून, निमाणे ताटये भायर वचपाचो प्रयत्न करूंक जाय आनी ताटयेवयल्या राखण्यांनी तांकां ताटयो हुंपपापसून आडावंक जाय. ताटयो हुंपपाचें काम करतले खेळगडे ताटी रक्षकांक फुसलावन ताटी हुंपतात जाल्यार त्याच वेळार ताटीरक्षक ताटयेचे शिमेभितरच रावन तांकां ताटी हुंपूंक ना दिवपाचें काम करता. अशें करतना एके ताटयेवयले दोनूय प्रतीस्पर्धी ताटयेच्या एका तोंकासावन दुसऱ्या तोंकामेरेन चपळायेन तशेंच शिटूकसाणेन फेरयो घालतात आनी संद मेळटा तेन्ना खेळगडे ताटी हुंपतात वा ताटी राखणो ताका ताटी हुंपपाच्या यत्नांत आसतना हातान स्पर्श करता. स्पर्श जाल्लो खेळगडो बाद जाता. मदले ताटयेवयलो दांडरक्षक ताटी राखण्याच्या प्रतिस्पर्ध्याचे हिकमतीक बादा हाडून आपल्या पंगडांतल्या खेळगड्याक मदत करता. मदले ताटयेर मेळिल्ल्या प्रतिस्पर्धी खेळगड्याक बाद करपाचो अधिकार दांडरक्षकाक आसता. तशेंच दांड राखणो उबी ताटीभर खंयचेय सुवातेर फाटल्यान तशें फुडें गडी बाद

करूंक शकता. पूण ताटी राखणो मात प्रतिस्पर्धी खेळगड्याक फकत फुडल्यानच बाद करूंक शकता. प्रतिस्पर्धी खेळगडो ताटये फाटल्यान गेले उपरांत ताका बाद करपाचो अधिकार उरना. तशेंच ताटी राखण्याचो गडी बाद करतना पांय ताटयेभायर पडूंक फावोना. पयले ताटयेसावन णवय ताटयो हुंपून, आक्रमण करपी पंगडान थारायल्ल्या वेळांत, वचचें आनी उपरांत णवय ताटयो परतून हुंपून सुरवातीचे पयले ताटयेकडेन येवंचें अश्शी तांचेकडल्यान अपेक्षा आसता. तांची ही अपेक्षा सफल जावंक दिवप ना अशें ताटयो रक्षकांचें काम आसता.

ह्या खेळांत सगळ्या णवय खेळगड्यांनी णवय ताटयो हुंपपाची गरज ना. आक्रमक पंगडांतलो एक खेळगडो लेगीत णवय ताटयो हुंपून गेलो तरीय अदी फेरी जाली अशें जाता. मागीर ह्या खेळगड्यान मात ताटयांचेर आडावन धरिल्ल्या आपल्या पंगडांचो खेळगडी आशिल्ल्या ताटयांमदल्या खणांत प्रवेश करचो पडटा. हाका लोण वा मीठ दिवप अशें म्हण्टात. णवय ताटयो हुंपून गेल्लो खेळगडो मीठ हाडूंक गेला अशें म्हण्टात. मीठ हाडपी खेळगडो वा ताचेकडल्यान हेर वांगड्यांक लोण वा मीठ दिता आनी अशे तरेन एका कडसून दुसऱ्याकडेन मीठ दीत खंयचोय एक खेळगडो लेगीत पयली ताटी (कपाल ताटी) हुंपूंक पावलो की, एक दावल वा लोण पुराय जाता. लोण पुराय जावपाक सगळ्याच खेळगड्यांनी पयले ताटयेमेरेन येवपाची गरज ना. पूण दरेका खेळगड्याक मात लोण वा मीठ मेळिल्ल्या खेळगड्याची भेट तो आशिल्ल्या खणांत जावंक जाय.

मीठ घेवन वचपी खेळगड्याक आडावपाचें आनी जाका मीठ पावोवपाचें आसा ताका कोंडींत धरपाचें काम ताटी राखणो करता. हे कोंडीक रिंगण वा कूड म्हण्टात. कूड हो ह्या खेळांतलो निर्णायक आनी कठीण असो डावपेंच, दोनय पंगडाखातीर आसता. आक्रमक पंगड मीठ हाडपाक येसस्वी जालो जाल्यार त्या पंगडाक एक डाव मेळून परतून तो आक्रमण करपाक भायर सरता. जर आक्रमक पंगडांतलो एक लेगीत खेळगडो डाव जावंचेपयली बाद जालो जाल्यार राखणो पंगड आक्रमण करता, आनी बाद जाल्लो आक्रमक पंगड राखणो जाता. आक्रमक पंगडाच्या सगळ्या खेळगड्यांक मीठ पावचेपयलींच जर आक्रमक खेळगड्यान पयली ताटी हुंपली जाल्यार मीठ कुसयलें अशें म्हण्टात आनी अशे तरेन आक्रमक पंगड डाव हारता.

१९१४ त पुण्याच्या डॅक्कन जिमखान्यान ह्या खेळाचे अधिकृत अशे नेम करून अखिल भारतीय सर्ती सुरू केल्यो. १९१८त बडोद्याच्या हिंद विजय जिमखान्यान आनी १९३५त अखिल महाराष्ट्र शारिरीक शिक्षण मंडळान ह्या खेळाक आधुनीक रूपकार दिलो. ह्या खेळाक दर पंगडाक दरेकीं ७ मिनटांचे तीन डाव मेळटात. हुंपिल्ल्या ताटयांची संख्या मीठ हाडपांत मेळिल्लें पुराय येस हाचेर गूण मेजप जातात.

वैयक्तीक चपळाय आनी शिटूकसाण, सांघीक कुशळटाय हांचें गिन्यान तशेंच प्रशिक्षण ह्या खेळावरवीं मेळटा. हांचेच जोडयेक मनोरंजन आनी व्यायाम हांचो लाव जाता. खेळावरवीं मेळपी ह्या गुणांचो खेळगड्याक फुटबॉल, हँडबॉल, बास्केटबॉल, हॉकी सारकिल्ल्या खेळांनी फायदो जाता. एका तेंपार विशेश करून गांवगिऱ्या वाठारांनी खुबूच लोकप्रिय आशिल्लो हो मैदानी खेळ, नागरी आनी विदेशी खेळांच्या आक्रमणाक लागून हेर गांवठी खेळांसारकोच आतां फाटीं पडला.

– चंद्रकांत पोरोब

**ताड :** (मराठी : ताड; हिंदी : ताड; गुजराती : ताड; कन्नड : तालिमर, ताळमेर; संस्कृत : ताल; इंग्लीश : पामिरा पाम, फॅन पाम; लॅटीन : बोरसॅस फ्लॅबेलिफर; कूळ : पामी).

हें झाड माड, सुपारी, खाजूर आदींच्या कुळांतलें आसून तें सरासरी १४-२० मी. ऊंच वाडटा. ताची चडांत चड उंचाय ३० मी. आसूं येता. ह्या झाडाक खांदयो नासतात. फकत तेंगशेर फॅना आकाराचीं ३०-४० पानां आसतात. नर आनी मादी झाडां वेगवेगळीं आसतात.

हें झाड मूळ आफ्रिका खंडांतलें आसून श्रीलंका आनी ब्रह्मदेशांत (मियानमारांत) ह्या झाडाची लागवड करतात. भारतांत बंगाल, बिहार, तमीळनाडू ह्या राज्यांनी ताडाची लागवड आसा. गोंयांत हीं झाडां फकत थोडेकडेन पळोवंक मेळटात.

ताडाची लागवड बियांपसून करतात. ताडाच्या झाडापोंदा बियो पडून ज्यो रोंपयो किल्लतात, त्योच रोंपयो नवे लागवडीखातीर वापरतात. ताडापसून मेळपी मुखेल उत्पन्न सूर. ताडाची पोय कापून तिका बुडकुलो लावन माडाभाशेन सूर काडटात. हे सुरीचो निरो (ताडी) म्हणून एक प्रकारचें पेय तयार करतात. हे सुरीपसून गोडय तयार करतात. दक्षिणेक फेब्रुवारी ते मे ह्या काळांत सूर चड मेळटा जाल्यार मुंबयंत नोव्हेंबर - डिसेंबर ह्या काळांत सूर चड मेळटा. शिंया दिसांनी सुरीक बरी गोडसाण आसता. ताडाची सूर काडपाक सरकाराचे परवानगीची गरज आसता.

२५-३० वर्सां पिरायेचीं झाडां सूर काडपाक वापरतात. ६० वर्सांमेरेन ह्या झाडाची सूर मेळटा. बरी रेंवट जमीन आसल्यार झाडाक १५ वर्सां पिरायेचेर सूर मेळटा. तीन वर्सां सेगीत सूर काडले उपरांत झाडाक एक वर्स सूर काडीनासतना विसव दितात. एका झाडापसून दिसाक सरासरी २ लिटर सूर मेळटा. ताडाच्या नर झाडापरस मादी झाडापसून सूर चड मेळटा.

सुरीपसून विनेगर, गोड आनी निरो तयार करतात. निऱ्यांत 'ब' जीवनसत्व आसता. तशेंच जायते वखदी गूण आशिल्ल्यान तो आरोग्याक बरो पडटा. कामगार लोक थकवो कमी करपाक रातच्या वेळार निरो घेतात. पानांच्या देठांपसून सान्न तयार करतात. तशेंच पानांच्यो खोपी शिंवपाक, शेंदऱ्यो आनी खोंटले तयार करपाक वापर जाता. कांडाचें लांकूड घट आसता आनी ताचे वांशे तयार करतात.

ताडाक रोग आनी किडींचो व्हडलोसो त्रास जायना. गेणो भुंगुल्लो, सोणयो भुंगुल्लो, काळे तकलेचो सुकुंडो ह्या किडींपसून तशेंच शिवडी कुसप ह्या रोगांपसून थोडोसो त्रास जावं येता.

– विश्राम गांवकर

**ताडपत्र :** खूब पुर्विल्लें एक बरोवपाचें साधन. ताडपत्र हें ताड झाडाच्या पानांपसून तयार करतालें. हीं झाडां चड करून उदेंत आनी दक्षिण भारतांत आसात.

ताडाचीं पानां एक ते चार इंच लांबायेचीं कापून पयलीं तीं वतांत सुकोवप. उपरांत उदकांत शिजोवन परतून वतांत सुकोवप. पानां सुकतकच शंख वा हेर कसलीय गुळगुळीत वस्त घेवन तीं पानां घोंटून सुळसुळीत करप. उपरांत त्या पानांचेर शायेन बरोवप. पूण अशीं शायेन बरयल्लीं अक्षरां तिगून उरनात म्हणून लोखणाचे सरयेन पानां कोरांतून त्या अक्षरांनी शाई भरपाची चाल सुरू जाली. अशा ह्या पानांक मदीं बुराक

करून, वयर-सकयल फळयो दवरून एकठांय बांदताले.

ताडपत्रांचेर पोथी बरोवपाचे पद्दतींतल्यानूच भारतीय लेखनविद्येंतले चडशे शब्द तयार जाल्यात. ग्रंथविभागाखातीर वापरतात ते स्कंध, कांड, शाखा, वल्ली हे शब्द झाडां-वालींकडेन संबंदीत अशे आसात. संस्कृत उतर 'ग्रंथ' म्हळ्यार एकठांय बांदप. पानां ओंवून तीं एकठांय बांदप हाचेवयल्यान 'ग्रंथ' हो शब्द तयार जालो. लिखाण, लेखणी हे शब्द लिख् म्हळ्यार कोरांतप हाचेवयल्यान तयार जावन, ते ताडपत्राचेर कोरांतून बरोवपाचे पद्दतींतल्यान वापरांत आयल्यात.

पाशुपताचार्य रामेश्वरध्वजकृत कुसुमांजलिटीका आनी प्रबोधसिध्दी ह्या ताडपत्रांचेर बरयल्ल्या ग्रंथांचीं हातबरपां अनुक्रमान इसवी सनाच्या पयल्या आनी दुसऱ्या शेंकड्यांतलीं आसात. दुसऱ्या आनी तिसऱ्या शेंकड्यांतल्यो कांय पोथयो काश्मीरांत मेळ्ळ्यात. तातूंतल्यो कांय पोथयो भांगराच्या अक्षरांच्यो आशिल्ल्यो आनी तांच्या फळयांचेर सोबीत चित्रां आशिल्लीं, अशें तेविशींच्या पौराणिक उल्लेखांवयल्यान दिसता. इ. सनाच्या सातव्या शेंकड्या उपरांतचीं बरींचशीं ताडपत्रावयलीं हातबरपां उपलब्ध जाल्यांत. भारताच्या भोवतेक सगळ्या राज्यांनी, पुराणतत्त्व आनी पुराभिलेख कार्यालयांच्या मार्गदर्शनाखाला ताडपत्रांचें जतन करप जालां. ह्या ताडपत्रांवरवीं, समाजाच्या इतिहासाचेर उजवाड घालूंक मदत जाता.

– कों. वि. सं. मं.

## तात्या टोपे : (जल्म : १८१४, मरण : १८ एप्रिल १८५९).

ब्रिटिशांआड झूज दिवपी १८५७ च्या उठावांतलो एक नामनेचो सेनानी. ताचें पुराय नांव रामचंद्र पांडुरंग भट (येवलेकर). तात्या टोपे ह्या नांवाविशीं वेगवेगळीं मतां आसात. बाजीराव पेशवा हाणें ताका बरी मोलादीक अशी तोपी दिल्ली. कांय दीस ताणें इस्ट इंडिया कंपनीच्या तोफखान्यार काम केल्लें तेन्नाच्यान ताका हें नांव मेळ्ळें अशेंय एक मत आसा. सुर्वेक तो पेशव्यांकडेन तोफखान्यार नोकरेक आशिल्लो. ताणें सुमार ३० वर्सां मध्य भारतांत जायत्या संस्थानिकांकडेन तोफखान्यार काम केलें. फुडें तो ब्रह्मवर्ताक नानासाहेब पेशव्याकडेन नोकरेक आशिल्लो.

ताणें १८५७ त सैन्य एकठांय करून नानासाहेब आनी लक्ष्मीबाई हांच्या आदारान जायतेकडेन ब्रिटिशांआड झूज दिलें आनी कांय म्हत्वाचीं थळां जिखलीं. १८५७चो उठाव मेरठ, दिल्ली, लाहोर, आग्रा, झांशी, ग्वाल्हेर आदी थळांनी पातळ्ळो. ह्या उठावांत ताणें नानासाहेब पेशव्याक पुराय आदार दिवन ताचेवांगडा वाराणसी, अलाहाबादेक भोंवडी केली. जून १८५७त जनरल हॅवलॉक हाणें कानपूराक वेश्टण घालें. तेन्ना ताणें म्हत्वाचो वावर केलो. पूण १९ जुलय १८५७त मात ताका रावसाहेब आनी ज्वालाप्रसाद हांचेवांगडा हार घेवंची पडली, तेन्ना तो अयोध्येक गेलो. ताणें कानपूराचेर हल्लो करपाक विठूर गांवांत तळ घालो. पूण तेन्नाच १६ जुलय १८५७त हॅवलॉक हाणें विठूराचेर घुरी घाली. हातूंत तात्या आनी ताच्या वांगड्यांनी भरपूर यत्न करूनूय ब्रिटिशांक जैत मेळ्ळें. फुडें शिंद्यांचें सैन्य आपले वटेन मेळोवन घेवपाखातीर तात्या आनी रावसाहेब ग्वाल्हेराक गेले. नोव्हेंबर १८५७ च्या झुजांत तात्यान कानपुराचेर हल्लो करून जनरल विनडॅमाक हारयलो. पूण थोड्याच दिसांनी सर कोलिन कँबल हाणें अकस्मात परतो हल्लो करून तात्याचेर जैत मेळयलें.

त्याच सुमाराक सर ह्यू रोझ हाच्या फुडारपणाखाल ब्रिटिशांनी झांशीक २२ मार्च १८५८ ह्या दिसा वेश्टण घालें. तेन्ना तात्या, झांशीची राणी लक्ष्मीबाईच्या आदाराक गेलो. पूण तातूंत ताका व्हडलेशें येस मेळ्ळें ना. फुडें तात्या, लक्ष्मीबाई आनी रावसाहेब हांणी एकठांय येवन ग्वाल्हेराचेर घुरी घाली आनी तें हातासलें. पूण ह्या झुजांत लक्ष्मीबाईक मरण आयलें. तात्यान गनिमी काव्यान ब्रिटिशांक नाकापुरो करून सोडले. ब्रिटिशांनी सुमार वर्सभर ताका धरपाचो यत्न केलो. हे धांवपळींत २१ जून १८५८ ते ९ ऑक्टोबर १८५८ मेरेन जावरा, अलीपूर, राजगढ, इसागढ, चंदेरीचीं झुजां तात्यान जिखलीं. फुडें १० ऑक्टोबर १८५८ दिसा मंग्रोलीक मात ताका हार घेवंची पडली. इतले मजगतीं ब्रिटीश ताचे पाळटेर आशिल्लेच. नागपूर, मंदसोर, झिरापूर साकून तो कोटा संस्थानांत नाहरगढाक गेलो. १३ जानेवारी १८५९ ह्या दिसा इंद्रगढाक ताणें फिरोजशहाची भेट घेतली. फिरोजशहा आनी तात्या देवासाक रावले. थंय ब्रिटीशांनी धाड घाली. तात्या थंयसावन सरदार मानसिंग हाच्या आलाशिऱ्याक गेलो. पूण मानसिंगान ताचो विश्वासघात केल्ल्यान जनरल मीड हाणें तात्याक बंदिस्त केलो. ताका सुर्वेक सिप्रीक व्हेलो. सतत हार मेळुनूय तात्यान धीर सोडलोना. निमाणें १८ एप्रिल १८५९ ह्या दिसा तात्याक गोळार चडयलो.

– कों. वि. सं. मं.

## तान : कुडींतलें उदकाचें प्रमाण उणें जाल्ल्यान मनशाक वा मोनजातीक जावपी एक संवेदना. ही एक सैमीक रितीन जावपी प्रक्रिया.

मनशाचे कुडीक दर दिसा २५०० घनसेंमी. उदक लागता. हातूंतलें सुमार ५०% उदक जेवणांतल्यान मेळटा. सुमार १०% अन्न पचनक्रियेंतल्यान निर्माण जाता आनी उरिल्लें ४०% उदक हें दूद, च्या, काफी सारकिल्या पातळ पदार्थांतल्यान मेळटा. मनशाचे वा मोनजातीचे कुडींत उदकाचो समतोल आसप ही सैमीक गरज. मूत, घाम ह्या मुखेल घटकांच्या रुपांत कुडींतलें उदक भायर पडटा. तेभायर पातळ परसाकडेन, ओंकारे, लासपांतल्यान जाल्ले घाय आनी मूत तशेंच घामा संबंदीत दुयेंसा सारकिल्या साबार कारणांक लागून कुडींतलें उदक भायर वता. कुडींतल्या उदकाचें प्रमाण उणें जाल्ल्यान तान लागता. मनशाचे कुडींतलें उदक जेन्ना उणें जाता तेन्ना ताचे कुडींतल्यो पेशी आंवळून येतात. ह्या बदलाची मेंदवाक जाणीव करून दिवपी एक खाशेली रचणूक कुडींत कार्य करता. ते रचणुकेवरवीं मनशाक जाणविकाय जाता हें जरी खरें आसलें, तरी ते रचणुकेवांगडाच मेंदवाच्या पेशींनीय जे बदल घडटात ताचो परिणाम म्हणून रोखडीच तानेची संवेदना जागी जाता. जेन्ना उदक पियेवंक मेळना, तशेंच मुतांतल्यान वा गरमेच्या दिसांनी घामांतल्यान कुडींतलें उदक भायर वता तेन्नाय तानेची संवेदना जाता. पूण पातळ परसाकडेन जावप ह्या सारकिल्या दुयेंसांनी सुर्वेक खूब तान लागता, पूण उपरांत जेन्ना कुडींतलें उदक आनी क्षार (salt) उणें जाता तेन्ना चड करून तानेची जाणविकाय जायना. हाचेवयल्यान, जेन्ना तान लागता तेन्ना कुडींतलें उदकाचें प्रमाण उणें जालां हें कळटा. पूण जर तान लागली ना जाल्यार उदकाचें प्रमाण थीर आसता अशें म्हणूंक जावचें ना.

विज्ञानीक प्रयोगांवरवीं मनशाच्या मेंदवाचो अंध:श्चेतक भाग तानेच्या संवेदनेविशीं जागरूक आसता आनी थंयच्यान तानेची जाणविकाय निर्माण

जाता, हें सिध्द जालां. मेंदवाचो हो भाग जर यंत्राच्या आदारांन नश्ट केलो जाल्यार तानेची संवेदना काबार जाता. तशेंच, जर मेंदवांतले तानेविशीं सुचोवणी दिवपी भागाक बारीक सुवयेंतल्यान विद्युत ल्हाराउदेशीं उत्तेजीत करीत जाल्यार त्या जनावराक खूब तान लागता.

अधःश्चेतक (Hypothalamus) ह्या भागाक जर कसलेंय दुयेंस जालें जाल्यार वा गांठ जाल्यार तानेविशींचें संतुलन इबाडटा. ॲंटी डायुरेटीक (antidiuretic) हॉर्मोन वा मुत्रविरोधी संप्रेरक नांवाचो एक कार्य उत्तेजक अंतःस्त्राव मुत्रपिंडाचेर नदर दवरता. अंतःस्त्राव हाचेर अधःश्चेतक भागाचेंय नियंत्रण आसता. हाका लागून खूब उदक पियेतकूच ह्या अंतःस्त्रावाचे संहति प्रवणता (concentration/gradient) उणें जाता. हाचो परिणाम म्हणून मुत्रपिंडांतल्यान उदक ओडून घेवपाचो वावर सुरू जाता आनी मुताच्या रूपान उदक कुडीभायर वता. सादारणपणान सुमार १ मि.लि. मूत मिनटाक तयार जाता. पूण कुडींत जर उदकाचें प्रमाण चड आसलें जाल्यार एका मिनटाक १६ मि.लि. मेरेन मूत तयार जाता. डायबेटीस इंसिपिडस (गोडेंमूत) ह्या दुयेंसाक लागून दिसाक २४ लिटरांमेरेन मूत कुडींतल्यान भायर वचूंक शकता. हें दुयेंस जाल्या मनशाक खूब तान लागता. गोड्यामुताचें दुयेंस आशिल्ल्याकय खूब तान लागता तशेंच खूब मुतूंक जाता.

तान ही चड करून कोशिकांचें उदक सुकल्यार, प्रमाणापरस कुडींत मीठ चड आसल्यार लागता. तानेची संवेदना ही भितल्ल्यान निर्माण जाता आसली तरी भोवतेक खेपे तान लागता तेन्ना ताळो सुकून येता. पूण कांय फावटीं मनीस भियेता. तेन्ना तानेची भितल्ली संवेदना जालेबगरय ताळो सुकता. अशा वेळार ते व्यक्तीक उदक पियेवपाची इत्सा जाता. म्हणून तान ही शारिरीक तशी मानसीक संवेदना जाणवली तरी तिचो खरेलो संबंद कुडीच्या उदकाच्या प्रमाणांतल्या बदलाकडेन येता. कांय वखदां घेतलीं म्हण्टकच तान लागता. तशेंच मनशान चड कश्टांचें काम केल्यारय ताका तान लागता. पोटांत फाव तितलें उदक गेलें म्हण्टकच जठर फुगता आनी थंयच्या तंत्रिकांवरवीं अधःश्चेतकांत संवेदना पावता. हाका लागून आनीक उदक पिवपाची क्रिया बंद करपाची इत्सा जाता. पूण उदकाचें प्रमाण कमी जालें म्हण्टकच उदक पिवपाची इत्सा निर्माण जाता.

– डॉ. दयानंद राव

## तानसेन : (जल्म : १५३२, बेहट, ग्वाल्हेर; मरण : २६ एप्रिल १५८९, ग्वाल्हेर).

एक म्हान भारतीय गायक. संगीतक्षेत्रांत तानसेनाविशीं बरींच अजापां आनी दंतकथा आसात. त्या मानान ताचें अधिकृत चरित्र अशें खंयच मेळना. तानसेनाचें मूळ नांव 'रामतनू.' पूण ताका तन्ना मिश्र ह्या नांवानूय वळखताले. ताचो बापूय मकरंद पांडे गौड ब्राह्मण आसून संस्कृत पंडीत आनी उत्तम गायक आशिल्लो. ताका लागून भुरगेपणासावन तानसेनाक गायनाची गोडी लागली.

हरिदासस्वामी वृंदावनांत रावतालो. ताचेकडेन तानसेनान बारा वर्सां गायन शिकून प्राविण्य मेळयलें. उपरांत तो ग्वाल्हेरचो राजा मानसिंह हाच्या दरबारांत गायक म्हणून रावलो. थंय ताका गायक म्हणून खूब नामना मेळ्ळी. उपरांत ताणें रीवाचो राजा रामचंद्र बाघेला हाच्या दरबारांत गायक म्हणून काम केलें. पिरायेच्या पन्नास वर्सांमेरेन ताणें ह्या दरबारांत काम केलें. उपरांत तो अकबराच्या दरबारांत आयलो. तानसेनाच्या संगितांतलें प्राविण्य पळोवन अकबरान ताका आपल्या दरबारांतल्या णव रत्नांमदीं सुवात दिली. अकबराच्या दरबारांत वचचे पयलीं, एक बरो गायक म्हणून तानसेनाची नामना जाल्ली. अकबरान ताका खास सन्मान करून 'संगीतसम्राट तानसेन' असो ताचो भोवमान केलो. फुडें तानसेन संगीत क्षेत्रांतलो एक चमत्कार म्हणून नामनेक पावलो.

तानसेनाक दोन बायलो आशिल्ल्यो. एक हिंदू आनी दुसरी मुसलमान. सुरतसेन, सरतसेन आनी सरस्वती हीं हिंदू बायलेचीं भुरगीं आनी तानतरंगखाँ, बिलासखाँ हीं मुसलमान बायलेचीं भुरगीं आशिल्लीं. सगल्या भुरग्यांक संगीतकलेचें बऱ्यांतलें बरें गिन्यान आशिल्लें. तातूंत बिलासखाँ हो खुबूच बुध्दीमान गायक आशिल्लो.

तानसेन कवीय अशिल्लो. ताणें स्वता खूब धृपदां बरयल्यांत. धृपदशैलींतल्या गायनाखातीर ताणें हिंदी भाशेंत शेंकड्यांनी पदां बरयल्यांत. तशेंच 'संगितकार' आनी 'रागमाला' हे संगिताविशींचे दोन ग्रंथ बरयल्यात. 'रागकल्पद्रुम' ह्या ग्रंथांत तानसेनान रचिल्ले खूब धृपद आसात. तांची पद्यरचना ब्रज भाशेंत आसा.

तानसेनान स्वता नव्या रागांचीय निर्मिती केल्या. 'मियाँ की तोडी', 'मियाँ की मल्हार', 'दरबारी कानडा', 'मियाँ की सारंग' ह्या रागांचो तातूंत आस्पाव जाता. दीपक राग गावन अग्नी प्रज्वलीत करप, मल्हार रागान पावस हाडप, तोडी रागान हरणांक आपोवप, तनरिरिचो प्रसंग, रानटी जनावरांक भुलोवप, दुयेंत आशिल्ल्यांक बरे करप अशे अजापभरीत चमत्कार आनी आख्यायिका ताच्या नांवार आसात. नामनेचो वैशणव संत गोविंदस्वामी आनी बैजू - बावरा हांचेवांगडाय तानसेनाच्यो कांय आख्यायिका आसात. तेचप्रमाण संत सूरदास आनी पंडीत जगन्नाथराम हे म्हान संत लेगीत तानसेनाच्या सहवासांत आयिल्ले अशें मानतात.

तानसेनाक भैरव रागान खाशेली सिध्दी प्राप्त जाल्ली. नायक गोपालाच्या वंशांतले एके बायलेन हो भैरव ताका शिकयल्लो अशें मानतात. तशेंच 'दरबारी कानडा' हो राग तो खाशेले शैलीन गायतालो देखून दरबारी हो राग तानसेनाचो राग म्हणून वळखतात.

तानसेनाचें आनीक एक खाशेलपण म्हळ्यार 'खाब' नांवाचें एक वाद्य ताणें सोदून काडलें. तें वाद्य तानसेन खुबूच कुशळतायेन वाजयतालो. पूण दरबारी गायक म्हणुनूच ताका चड नामना मेळ्ळी. संगिताचे नदरेन तानसेनाची धृपद गायकी ही 'गौडी', 'गोहरबानी' म्हणून वळखतात.

तानसेनाची समाधी ग्वाल्हेराक फकीर मुहमद घौस हाचे कबरी म्हऱ्यांत बांदल्या. थंय दर वर्सा तानसेनाचे पुण्यतिथीक जलसो भरता आनी नामनेचे गायक - वादक तातूंत वांटो घेतात.

– शकुंतल आरसेकार

## तापमापन : दोन वस्तू एकामेकांक दसोवन दवरल्यो जाल्यार तांचेमदीं उश्णता व्हांवपाची दिका जे राशीवेल्यान निश्चित जाता, ताका तापमान अशें म्हण्टात. तापमान मेजतात त्या साधनाक तापमापक आनी तें मेजपी शास्त्राक तापमापन अशें म्हण्टात.

पदार्थाचें तापमान वाडयलें जाल्यार ताच्या कांय भौतीक गुणधर्मांनी बदल जातात. देखीक द्रवांचें घनफळ वाडप, वायूंचो दाब वा घनफळ

वाडप, धातूच्या सरयांचो विद्युत् दाब वाडप आदी. तापमानाप्रमाण कांय भौतीक गुणधर्मांचो तापमापकांत चड प्रमाणाचेर उपेग केल्लो आसता, ते गुणधर्म अशे - १) द्रवांचें घनफळ २) वायुचो दाब आनी घनफळ ३) धातुचो विद्युत् रोध (resistance) ४) तपयुग्म (Thermocouple) आसल्यार तातूंत उप्रासपी विद्युत् चालक प्रेरणा ५) द्रवांचो बाश्पदाब ६) चुंबकीय प्रणवता.

निमाणच्या दोन गुणधर्मांचो उपेग खास करून नीच तापमान मेजपाखातीर करतात, वेगवेगळ्या पांवड्याच्या तापमानांच्या मेजपाखातीर वेगवेगळ्या तत्त्वांचेर आदारिल्ले तापमापक तयार करतात.

तापमानाचे तीन मापक्रम (scales) आसात - १) फॅरेनहाइट २) सेल्सिअस ३) रोमर. १९४८ वर्सा जाल्ल्या आंतरराश्ट्रीय वजनां आनी मापां समितीचे परिशदेंतल्या थारावपाप्रमाण आदीं ज्या मापक्रमांक सेंटिग्रेड म्हण्टाले, ताका सेल्सिअस अशें म्हणूक लागले.

हातूंतलो सेल्सिअस तापक्रम शास्त्रीय मापनाखातीर जगभर वापरतात आनी भारतात वेव्हारीक वापराखातीर कायद्यान ताका मान्यताय मेळ्ळ्या. फॅरेनहाइट तापक्रम इंग्लीश भाशीक देशांत वापरतात. जोरमापकांत आनी अभियांत्रिकींत तो अजूनय कांय सुवातींनी वापरतात. रोमर तापक्रम मात व्हडलोसो वापरांत ना. ह्या तीनूय तापक्रमांत बर्फबिंदू आनी बाश्पबिंदू हे दोन थीर बिंदू कल्पिल्यात आनी तांच्यांतल्या तापमान अंतराक मूलांतर अशें म्हण्टात. वयर सांगिल्ल्या तीन तापक्रमांत ह्या मूलांतराचे अनुक्रमान १८०, १०० आनी ८० सारके मात्र केल्ले आसून दरेक वांटयाक अंश अशें म्हण्टात.

तापमापकांत वापरिल्ल्या द्रव्याक तापमापकीय द्रव्य (पारो, आल्कोहॉल आदी) अशें म्हण्टात. खंयच्याय पदार्थांचें एकाद्र्या तापमापकावरवीं मेळपी तापमान हें त्या तापमापकांत वापरिल्ल्या तापमापकीय द्रवाच्या ऊश्मीय गुणधर्मांचेर पातयेवन आसता. ताका लागून एकाच पदार्थाचें तापमान वेगवेगळे तरेच्या तापमापकांकडच्यान वेगवेगळें दाखयतात, म्हणून त्या पदार्थाचें खरें तापमान मेळूंक शकना. हाका लागून दृश्य निरपेक्ष तापमान कशें काडूं येता, हेविशीं शास्त्रज्ञांमदीं विचार सुरू जालो.

अशे तरेचो निरपेक्ष तापक्रम पयलीं केल्वीन (१८२४-१९०७) हाणे सिध्दांतीक रितीन प्रस्थापीत केलो. ऊश्मागतिकीय सिध्दांताचेर आदारिल्ल्या निकोलस सादी कार्नो (१७९८-१८३८) हाच्या आदर्श इंजिनाचेर हो तापक्रम आदारिल्लो आसा. शास्त्रीय नदरेन हो तापक्रम आदर्श आसा, पूण कार्नो हाचें इंजीन प्रत्यक्षांत उपलब्ध ना. देखून ताचेवरवीं सारकी मोजणी जायना. वायुतापमापकावरवीं मेळपी तापमानांय तंतोतंत आसनात. वेव्हारांत वापरपाक वेगवेगळ्या तापमापकांची निर्मिती केल्या. वेगवेगळ्या गजालींखातीर ते ते तापमापक वापरतात. उज्या धगाचें 'तापमान मेजपाक खाशेलो तापमापक वापरतात.

हवामान, पावस, हांचे अदमास थारावपाक वातावरणातल्या वेगवेगळ्या उंचायेवयल्या थरांचीं तापमानां मेजप गरजेचें आसता. तेखातीर बोमाडे (baloon) वा रॉकेट हाच्या पालवान तापमापक वयर सोडून ताचेवरवीं नोंद जाल्लीं तापमानां रेडिओ संदेश वाहकावरवीं धर्तरेर धाडटात. खासा कक्षेंत धर्तरेभोंवतणी घुंवपी कृत्रीम उपग्रयांचो वेग थंयच्या वातावरणाच्या घर्शणाक लागून कितलो उणो जाता, तें धर्तरेवेल्यान निरीक्षण करून काडूं येता. ताचेवेल्यान थंयचे हवेची घनता आनी घनतेवयल्यान थंयचें तापमानूय काडटात. आवाजाचो वायूंतलो वेग वायुच्या निरपेक्ष तापमानाच्या वर्गमुळाच्या सम प्रमाणांत आसता. उंचेल्या वातावरणांतल्या आवाजा - वेगाचें मेजप करून ताचेवेल्यान वातावरणाच्या वेगवेगळ्या थरांतलें सरासरी तापमान काडूं येता. तेखातीर हातबाँबाची एक माळ रॉकेटावरवीं ऊंच प्रक्षेपीत करतात. खाशेले उंचायेर एक एक बाँब आपोआप उडचो, अशी तजवीज आसता. ह्या बाँब स्फोटांचे आवाज धर्तरेर पावपाखातीर लागपी कालखंड मेजून ताचेवयल्यान आवाजा-वेग काडटात. मागीर ह्या आवाजा-वेगावयल्यान त्या त्या थरांतलें सरासरी तापमान काडटात.

पावस, दर्यावर्दी जीवसृश्ट हांचो अभ्यास करताना दर्याच्या वेगवेगळ्या खोलायेवयल्या थरांचीं तापमानां-मेजप गरजेचें आसता. हेखातीर थर्मिस्टर आवाजा-वेग, आदी पद्दतींचो उपेग जाताच; तेखेरीज उरफाटें उरपी तापमापक हें एक खाशेलें साधन तयार केलां. फाव ते खोलायेर पावतकच हो तापमापक परतो जाता. मागीर नळयेंत चडिल्लो पारो वेगळो जावन एके सुवातेर सांठयतात. ताचें वस्तुमान मेजून ताचेवयल्यान तापमान काडूं येता.

मळबांतलीं नक्षत्रां, गिरे आनी धुमकेतू हांचीं तापमानां मेजपाखातीर वर्णपटीय पद्दत वापरतात.

– मुकेश थळी

**तापी :** अस्तंत भारतांतली एक नामनेची न्हंय. लांबाय ७०२ किमी. हिचें उदका येरादारी क्षेत्र सुमार ६५,३०० चौ. किमी. भारताच्या दख्खन पठारावयल्यान व्हांवपी हेर न्हंयो जरी उदेंतेवटेन व्हांवपी आसल्यो तरी तापी आनी नर्मदा ह्यो न्हंयो मात अस्तंतेकडेन व्हांवतात. मध्य प्रदेशांतल्या बेतूल जिल्ह्याच्या पठारी वाठारांत मूलताई (मूळतापी)च्यान तापी हे न्हंयेचो उगम जाता अशें मानतात. पूण तिचो खरो उगम थंयसावन सुमार ३ किमी. अंतराचेर आसा. ही न्हंय मध्य प्रदेश, महाराष्ट्र आनी गुजरात ह्या राज्यांतल्यान व्हांवता. ही न्हंय सुर्वेक सपाट प्रदेशांतल्यान व्हांवन कांय अंतर फुडें वतकच ती उत्तरेक कालीभीतचे दोंगर आनी दक्षिणेक गाविलगड मेळघाट रांगेची शाखा हांचेमदल्यान खोल उताराच्या फातराळ देगणांत देंवता. थंयच्यान अस्तंतेकडेन थोडें अंतर वचून ती नैर्ऋत्येवटेन घुंवता आनी महाराष्ट्राच्या अमरावती जिल्ह्याचे उत्तर शिमेवयल्यान सु. ४८ किमी. व्हांवत वता. थंयसावन ती फुडें मध्य प्रदेशाच्या खांडवा जिल्ह्यांतल्यान निमाड वाठारांतल्यान बऱ्हाणपूराक वता. उपरांत थंयसावन महाराष्ट्राच्या जळगांव जिल्ह्यांत भितर सरून ती भुसावळच्यान परत अस्तंतेकडेन व्हांवता. हांगा रेल्वे पुलाच्या दोनूय वटांनी तिचेर ल्हान-ल्हान उदकाचे घसघशे आसात. थंयच्यान जळगांव आनी धुळें जिल्ह्याच्या सुपीक वाठारांतल्यान वचून ही न्हंय नंदुरबार आनी तळोदे ह्या गुजरातच्या अशीर मार्गान वता आनी फुडें अशीर फातरट मार्गान सडो देंवून सुरत जिल्ह्याच्या सपाट वाठारांत येता. थंय मांडवीवयल्यान फुडें वतकच वाघेच्या लागसार राजपीपला दोंगुल्ल्यांक मोडणां घेत - घेत ही सुरतेक येता. हांगाच्यान ती सुमार ८ किमी. अंतराचेर खंबायताच्या आखाताक मेळटा. निमाण्या भागाक तिच्या पात्रांत कांय जुंवे तयार जाल्यात.

तापी न्हंयेच्यो म्हत्वाच्यो उपन्हंयो म्हळ्यार - दक्षिणेकडल्यान येवपी पुर्णा, वाघूर, गिरणा, बोरी आनी पांझरा. हातूंत पूर्णा ही म्हत्वाची उपन्हंय उत्तरेकडल्यान गाविलगडच्या दोंगरांतल्यान अमरावती, अकोला,

बुलढाणा ह्या जिल्ह्यांतल्यान वचून चांगदेव गांवांत तापीक मेळटा. जायते फावट तापी - पूर्णा देगण असोय उल्लेख मेळटा. तिच्यो गिरणा, बोरी, पांझरा, बोराई ह्यो उपन्हंयो अस्तंतेकडल्यान सह्याद्रीच्या उत्तर वाठारांतल्यान येतात. गुजरातेंतल्यान राजपीपला दोंगुल्यांतल्यान आयिल्ली वारेली ही एकच म्हत्वाची उपन्हंय तापीक उजवेकडल्यान मेळटा.

तापीच्या भोंवतणच्या वाठारांत चड करून ज्वारी, कापूस, तेलबियो, कड्डुणां आनी भात हांचें पीक जाता. तापी न्हंयेच्या दक्षिणेकडल्या उपन्हंयेच्या देगणांत काळे मातयेचो खोल थर आशिल्ल्यान खानदेश - व्हराडचो नामनेचो कापूस उत्पादक वाठार तयार जालो. तापी देगणांतल्या रानांत इमारती लाकूड, कोंडे आदी उत्पन्न मेळटा. तेचपरी थंय वाग, हरण, रानुदुकर, तरस, कोलो आदी मोनजात, सुकणीं आनी सोरोपूय मेळटात. सुरतेक तापी न्हंयेचेर बंदर आसा पूण तें गाळान भरून आयिल्ल्यान ताचो व्हड प्रमाणांत उपेग जायना. तापी देगणांतल्या धुळें, जळगांव, भुसावळ, अकोला, अमरावती आदी शारांतल्यान राष्ट्रीय म्हामार्ग वतात.

तापी देगणांत उदक शिंपणावळीची गरज आशिल्ल्यान तापीच्या उपन्हंयांचेर जायते शिंपणावळ प्रकल्प जाल्यात. गुजरातांत सुरतेसावन ८० किमी. अंतराचेर उकाईक तापी न्हंयेचेर धरण बांदून उदक शिंपणावळ आनी जलविद्युत् उत्पादन केलां. उकाईचे अस्तंतेक तापीचेर बांद घाला.

**धर्मीक म्हत्व :** हिंदू पुराणांत तापी न्हंयेचो तपती, ताप्ती, तापिका आनी तापिनी असो उल्लेख मेळटा. सूर्यान आपलो दाह उणो करपाक ही न्हंय निर्माण केली असो उल्लेख महाभारतांत मेळटा. तिचें लग्न संवरण राजावांगडा जालें. कुरु वंशाचो संस्थापक कुरु हो तिचो पूत असोय उल्लेख मेळटा. तापीचे देगेर सुमार १०८ तीर्थक्षेत्रां आसात. तातूंत पुर्णा संगमालागसारचें चांगदेव आनी गुजरातांतलें बोथान हांची चड नामना आसा. तापी न्हंयेचो जल्म आषाढ शुध्द सप्तमीक जालो अशें तापी महात्म्यांत म्हळां. दर वर्सा ह्या दिसा तापीचो जल्मोत्सव मनोवपाची चाल तापीचे देगेवयल्या क्षेत्रांनी चलता.

- कों. वि. सं. मं.

## ताबूत (ताजिया) :

इस्लामांतल्या शिया पंथाच्या लोकांचें शोकप्रदर्शन. कुराणांत 'ताजिया' वा 'ताबूत' सोडून 'इझीन' हें रूप मेळटा. आदल्या तेंपार हें शोकप्रदर्शन इमाम हुसेनाच्या हौतात्म्या निमतान ताचे कबरी लागसार आनी घराय करताले. सद्या चड करून हुसेनाच्या करबला हांगा आशिल्ले कबरीची प्रतिकृती करून मोहरमाच्या उत्सवांत धा दीस ताबूत बसयतात. शिया पंथाचे लोक आपले ऐपती प्रमाण रुपें, हस्तीदंत, चंदन, शिंशें, कंवची, कोंडे, कागद आदींचो वापर करून ताबूत करतात. चड मोलाचे ताबूत विसर्जन करीनासतना जायतीं वर्सां दवरतात. पूण सादे कोंडे आनी कागद वापरून तयार केल्ले ताबूत निमाण्या दिसा दफन करून विसर्जीत करतात. ह्या उत्सवाखातीर गिरेस्त लोक घुमटा - वरी "इमाम बारा" तयार करून हारशे, बोंदेरां, झुंबर, उंची कापड आदींनी सजयतात. तातुंतूच एका कोनशाक वणटीवटेन मक्केकडेन तोंड करून ताबूताची स्थापना करतात. ताबूताकडेन हुसेनाचीं शस्त्रां, कपडे, खावपाचे पदार्थ दवरतात. दिवे लावन ताबूत सजयतात. ताबूताकडेन एक सोंपो तयार करून ताचेर मौलवी 'मज्लिस' नांवाचो भाग धर्मग्रंथांतल्यान वाचून दाखयतात.

मज्लिस म्हळ्यार शोकसभा. ताचेउपरांत सदांच सकाळ सांजवेळ मर्सिए (शोकगितां) म्हण्टात. ह्या गायना उपरांत हसन - हुसेन हाच्या नांवान सगळेजाण हड्डें बडोवन आकांत करतात.

निमाण्या दिसा सगल्या ताबूतांची मिरवणूक वता. मिरवणुकेंत एकलो हसन हुसेनाच्या हौतात्म्य प्रसंगाचें दुखेस्त वर्णन वाचीत चलता. निमाणें मिरवणूक कबरस्तानांत व्हरून थंय ताबूताचें दफन करतात आनी सगले निमाणे संस्कार पुराय करतात. भारतांत कांयकडेन ताबूत उदकांत विसर्जीत करपाची चाल आसा. लोक घरा येतकच आपले तांकीप्रमाण दानधर्म करतात.

ताजिया वा ताबूत हें शोकनाट्य हुसेनाचे हत्ये उपरांत धाव्या दिसा आशुरा सणाक (मोहरम म्हयन्याची धा तारीख) वेगवेगळ्या प्रकारांनी जाता. हुसेनाच्या घोड्याची, ताचे चलयेचे (फातिमा) वरातीची, ताचे अंत्ययात्रेची, आदी मिरवणुको चड करून त्या दिसा काडटात. ताबूत वातानियाची सध्याची विकसीत स्वरुपांतली प्रथा ही हालींच्या काळांतली. शिया पंथाचे तातर (तार्तर) लोक ताबूतांक कासिमाचें (इमाम हसनाचो चलो) लग्नाघर मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

## ताबूल फळें :

घरांत बसून खेळपाचो खेळ. खूब पुविल्ल्या काळासावन हो खेळ कोंकणांत खेळटात. पयलीं जेन्ना ल्हान पिरायेचेर चलयांचीं लग्नां जातालीं तेन्ना कांय खेळपाचीं साधनां दिवपाची रीत आशिल्ली. तशेंच चवथीच्या पयल्या वज्यावेळारय खेळाचीं साधनां धाडटालीं. तातूंत मुखेल करून ताबूल फळें हो खेळ आसतालो. आदल्या तेंपार घराघरांनी ताबूल फळें आसतालेंच. ल्हानापसून व्हडामेरेन सगळेच हो खेळ आवडीन खेळटाले. मेकळो वेळ खर्चुपाचो हो एक बरो खेळ आसलो.

ह्या खेळाक ताबूल फळें, दोन रंगांच्यो बारा - बारा (सगल्यो चोवीस) घुलो आनी चार ताबलां अशें साहित्य लागता. ताबुल फळें सादारण १२ इंच लांब आनी ६ इंच रूंद आसता. ताबलां ८ इंच लांब, १/२ इंच रूंद आनी १/४ इंच दाट आसतात. ताचेर बारा-बारा खणांचे चार भाग दाखयल्ले आसतात. ताच्या कडांनी नक्षीकाम चित्रीत केल्लें आसता. ताबलां चड करून लाकडांचीं आसतात. केन्ना केन्नाय कोंड्याच्या कामीचींय ताबलां करतात. कोंड्याच्या कामींचीं ताबलां केल्यार एक फायदो आसता तो म्हळ्यार तांचे एके वटेनच्यान पाचवो रंग (कोंड्याचो रंग) आनी दुसरे वटेनच्यान तासून गुळगुळीत केल्ल्यान धवसार रंग येता. ताका दोन आंगांचें वेगळेंपण दाखोवपाखातीर ताबलां रंगोवचीं पडनात.

ह्या खेळांत गूण मेजपाची तरा अशी आसा. चारय ताबलांचेर एकेवटेन दोनूय तोंकांकडेन दोन दोन फुलयो जाल्यार दुसरेवटेन एक एक फुली आसता. दोन फुलयो आशिल्लीं चारय ताबलां पडलीं जाल्यार बारा गूण मेळटात. एक फुली आशिल्लीं चारय ताबलां पडलीं जाल्यार आठ गूण मेळटात. दोन फुलयो आशिल्लें एक ताबूल आनी १ फुली आशिल्लीं तीन ताबलां पडलीं जाल्यार तीन गूण आनी दोन फुलयो आशिल्लीं दोन आनी एक फुली आशिल्लीं दोन ताबलां पडलीं जाल्यार दोन गूण धरतात. दोन फुलयो आशिल्लीं तीन आनी एक फुली आशिल्लें एक ताबूल पडलें

जाल्यार दोन गूण धरतात आनी ताका ताबूल पडलें अशें म्हण्टात. ह्या ताबलाचें विशेश म्हळ्यार हाका पडिल्ले दोन गूण, एक एक अशे विभागून मेजूंक मेळटात. जाल्यार वयर सांगिल्ले बाकीचे गूण एकवटीतपणान सलग मेजचे पडटात. ताबलाचें आनीक एक खाशेलपण म्हळ्यार ताबूल पडलेबगर गूण मेजपाक सुरवात करूंक मेळना.

हो खेळ दर वटेन एक वा दोन खेळगडे आशिल्ल्या अशा दोन पंगडांमदीं खेळटात. खेळ खेळचे पयलीं दोनय पंगडांमदीं ताबूल फळें दवरतात. दर एका पंगडान आपल्यो घुलो आपआपले वटेंतल्या खणांत एकामेकांचे विरुध्द दिशेन लायतात. मागीर चारय ताबलां मुठींत घेवन तांचीं पोंतां जमनीर आपटून आपणाक जाय तशे गूण मेळोवपाच्या उद्देशांन ताबलां एक - दोन फावटीं हवेंत उडोवन जिखतात आनी मागीर तीं जमनीर उडयतात. खेळाचे चालीक सुरवात जातली आनी घुलो खणाभायर काडटलो जाल्यार पयलीं ताबूल पडूंक जाय. पयलें ताबूल पड म्हणसर मेळिल्ले गूण धरूंक मेळनात.

ताबूल पडटकच घूल उजोवप जाता आनी उजयल्ली घुलच खणाभायर पडली की उपरांत दर एका दावाचे गूण जमेक धरतात. डावाक जर फकत दोन (दोगां) आनी तीन (तिगां) गूण पडले जाल्यार ताबलां विरोधी पंगडाकडेन वता. पूण ताबूल बारा आनी आठ अशे गूण पडल्यार मात त्याच खेळगड्याक आनीक एक डाव खेळपाची संद मेळटा.

खणाभायर आयिल्ल्यो घुलो सकयल्यान वयर अशीं पंगडाच्या अर्दांतलीं बारा गोटां (खण) चडटा आनी दुसऱ्या पंगडाच्या अर्दांतल्या बाराय गोटांनी देंवता. सकयल्या गोटांतल्यान मागीर जशे जशे गूण पडटात आनी संद मेळटा तशो तशो त्यो घुलो विरोधी पंगडाच्या घुलांच्या खणांत रिगतात. आनी क्रमाक्रमान विरोधी पंगडाच्यो घुलो बाद करता. विरोधी पंगडाची घूल वाटेर आडवी आयली जाल्यार पडिल्ल्या गुणांचे संख्येप्रमाण ती बाद करूंक मेळटा.

ह्या खेळांत आपली घूल मारूंक दिवप ना आनी दुसऱ्याची घूल मारप हाकाच चड म्हत्व आसा. देखून खेळ लायतना बारीकसाणीन लावंचो पडटा. अशे तरेन दुसऱ्या पंगडाच्यो घुलो जाता तितल्यो मारप आनी आपल्यो घुलो ताच्या घरांत रिगोवप. पटावयल्यो घुलो सोंपतकच दुसऱ्याच्या घरांत रिगयल्ल्यो घुलो घेवन खेळ चालू दवरप. अशा वेळार जर दुसऱ्या पंगडाच्यो घुलो ताच्या घरांतच आसत जाल्यार त्यो सडसडीत मारून मुखार वचूंक मेळटा. म्हणून सदांच दुसऱ्या गटाच्यो घुलो आपल्या घरांत रिगतात तेन्ना जागो रिकामो करून भायर सरप गरजेचें आसता. निमाणें ज्या गटाच्यो घुलो पटार उरतात तो गट जिखता.

आर्विल्ल्या काळांत सगळ्याच देशी खेळांकडली लोकांची ओड उणी जाल्ली पळोवंक मेळटा. तेभायर आर्विल्ल्या काळांतल्या तंत्रगिन्यानान तयार केल्ल्या नव्या खेळांची चड ओड आयचे पिळगेक आशिल्ल्यान पारंपारीक खेळांच्या प्रकाराकडेन एक काळाभायलो प्रकार अशे नदरेन पळोवप जाता. हाकाच लागून एका काळार घराघरांनी आसपी ताबूल फळें सद्याच्या काळांत दिसनाशें जालां.

– माया खरंगटे

## ताम्रदीक्षा :

एक संस्कार. बंगालांतल्या रामाई पंडिताच्या वंशांत, मुजीवरी हो संस्कार करतात. बारा ते पंदरा वर्सां पिरायेच्या चल्याचेर हो संस्कार करतात. सुर्वेक चल्याचें मुंडण करून उपरांत गणेसपुजा, घटस्थापना, आभ्युदयिक श्राध्द आनी पंचशतहोम आदी कृत्यां करतात. हें सगलें करतकच तो बटू ब्राह्मण सुदृश जाता. उपरांत ताका बंगालांतल्या छत्तीस प्रकारच्या नीच जातींचें पुरयतपण करपाचो आनी धर्मदेवतेची पुजा करपाचो अधिकार मेळटा.

– कों. वि. सं. मं.

## ताम्रपाशाणयूग :

मनशाच्या सांस्कृतिक इतिहासांत नवाश्मयुगा उपरांत आयिल्लो सांस्कृतिक कालखंड. तांब्याचो सोद लागतकच ताचो वापर सुरू जालो, तरी पाशाणाचीं ल्हान आकाराचीं शस्त्रां मनशान वापरांत दवरलींच. म्हणून ह्या काळाक ताम्रपाशाणयूग अशें नांव पडलें. ताम्रपाशाणयुगाची सुरवात जगांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांनी वेगवेगळ्या काळांत जाली. ताम्रपाशणयुगाचो काळ इ. स. प. सातवें सहस्त्रक इतलो फाटल्यान व्हरतात. जाल्यार ग्रीस, मेसोपोटेमिया, इजिप्त ह्या वाठारांत इ. स. प. तिसरें सहस्त्रक, उदेंत युरोपांत इ. स. प. तिसऱ्या सहस्त्रकाळाचो मध्यकाळ, इंग्लंडांत इ. स. प. सुमार १९००, भारतांत इ. स. प. २५००, जाल्यार चीनांत इ. स. प. सुमार १८०० ह्या काळांत ताम्रपाशाणयुगांतली संस्कृताय प्रचलीत आशिल्ली, अशें दिसून आयलां.

कच्चें तांबें ठोकून ताचेपसून ल्हान - व्हड वस्तू तयार करपाची कला ॲनातोलियांत आनी इराणांत सुमार सात हजार वर्सांपयलीं प्रचलीत आशिल्ली. तांबें शुध्द करप आनी सांच्यांत घालून वस्तू तयार करप ह्यो प्रक्रिया सुमेर आनी इजिप्तांत तिसऱ्या सहस्रकाचे अखेरेक रूढ जाल्यो, अशें म्हण्टात.

पुर्विल्ल्या काळांत सैमीक तांबें खूबकडेन उपलब्ध आशिल्लें. इजिप्त, आशिया मायनर, मेसोपोटेमिया, पॅलॅस्टायन, डॅन्यूबचें देगण आनी राजस्थान (भारत) ह्या वाठारांनी तांबें सांपडिल्ल्यान, थंयच्या लोकांनी ताचो उपेग करून घेतलो. हे सांठे सोंपतकच खनीज मिश्रीत तांब्याचे सांठे सोदचे पडले. खनीज तांबें उश्णतेवरवीं शुध्द करून घेवपाचें तंत्र ताका लागून आत्मसात करचें पडलें. ह्या तंत्राचो वापर इ. स. प. ३००० च्या सुमाराक अस्तंत आशियांतले लोक करताले.

इजिप्तांतले बॅदारियन आनी अम्रेशियन संस्कृतायांचे लोक पाशाणी हत्यारांवांगडाच तांब्याच्यो ल्हान नळ्यो आनी नुस्तें धरपाचे गरे वापरताले. ह्यो वस्तू सैमीक तांब्यापसून तयार करताले. खनीज तांबें शुध्द करपाचें गिन्यान ह्या लोकांक नाशिल्लें. हाचे उरफाटें, मेसोपोटेमियांत टेल हलाफ आनी ओबेदचे ताम्रपाशाण संस्कृतायेचे लोक शुध्द तांब्याचे मणी आनी नुस्तें धरपाचे गरे वापरताले. स्यूसा (इराण)चे लोक कुराडी, हारशे आनी सुयो हांचेसारक्यो प्रगत तंत्राच्यो वस्तू तयार करताले. इजिप्ताचे फाराओ राजा सिनाय रेंवटांतल्यान तांबें मागयताले जाल्यार ॲसिरियन लोक तें ॲनातोलियांतल्यान हाडटाले. युरोपांत इ. स. प. १६०० सावन खनीज तांब्याच्या खणींचो वापर जावपाक लागलो.

ताम्रपाशाणयुगांत वेपार वाडलो, तसो धातूकामांत फिशालकाय मेळयल्ल्यांचो वर्ग तयार जालो. तांबट लोक अन्न उत्पादनाच्या कामांत वांटो घेनासतना धातूविद्येंतूच फिशालकाय मेळोवंक लागले. कालांतरान अशा तांबटांचे पंगड तयार जाले. त्या काळांतल्या समाजाक अशा

तंत्रज्ञांखातीर धान्याचें उत्पादन करचें पडटालें. ज्या वाठारांतल्यान कच्चें तांबें हाडून ह्या तांबटांक वेगवेगळ्यो वस्तू तयार करपाक दिताले त्या वाठारांतल्या लोकांकूय तांब्या बदला धान्य दिवचें पडटालें. देखून धान्याचें उत्पादन वाडोवचें पडलें. हे गरजेंतल्यान ताम्रपाशाणयुगांत नांगराचो आनी चक्राचो सोद लागलो. नांगराक लागून जमनीची लागवड करप सोंपें जालें आनी चक्राक लागून येरादारी बेगीन जावपाक लागली. ताका लागून ताम्रपाशाणयुगांत, नगरांचो उदय जालो, मनशाचे जिणेंत थिराय आयली आनी वेगवेगळ्या कलांचो उगम जालो. ग्रीसांतली मायसिमीयन संस्कृताय आनी इजीअन जुंव्यांतली सायक्लॅडीक संस्कृताय हांचेवयल्यान ताम्रपाशाणयुगांतले संस्कृतायेचें नागरीकरण दिसून येता. भारतांतली सिंधू संस्कृताय ताम्रपाशाणयुगांतच आस्पावता.

भारतीय उपखंडांत सिंध, पंजाब, राजस्थान, गुजरात, मध्य प्रदेश आदी प्रदेशांनी ताम्रपाशाणयुगांतले सिंधू वा हडप्पा संस्कृतायेचे पुरावे मेळ्ळ्यात. सिंधांत कोटदिजी, राजस्थानांत कालिबंगा, गुजरातांत लोथल आनी पंजाबांत रुपड हीं ह्या संस्कृतायांचीं म्हत्वाचीं थळां आसात.

भारतांत मध्य प्रदेश, गुजरात, महाराष्ट्र, कर्नाटक, उत्तर प्रदेश, पंजाब आनी काश्मीर ह्या वाठारांनी ताम्रपाशाण संस्कृतायेच्या लोकांचो राबितो आशिल्लो अशे पुरावे मेळ्ळ्यात. काळीं आनी तांबडीं मातयेचीं पात्रां, मातयेचीं घरां आनी तांब्याचें शुध्दीकरण करून तेपासून वस्तू तयार करपाची कला हें खाशेलपण आशिल्ली राजस्थानांतली बनास वा आहाड संस्कृताय; वाटकुळीं वा चवकोनी घरां, तांब्याच्यो कुराडी वा तरसादी, गंव, उडीद आदी धान्यांची लागवड हें खाशेलपण आशिल्ली मध्य प्रदेशांतली माळवा संस्कृताय; वाडग्यांच्या आनी कळशांच्या आकारांचीं मृतपात्रां, दर्यांतल्या घुलांचीं आनी तांब्याचीं हत्यारां, गंव आनी बार्ली हांची लागवड हें खाशेलपण आशिल्ली महाराष्ट्राची जोर्वे संस्कृताय; ह्यो सगळ्यो संस्कृतायो ताम्रपाशाणयुगांतल्यो. इ. स. प. १००० च्या सुमाराक ह्या संस्कृतायांचो नाश जालो. ह्याच सुमाराक भारतांत लोखणाचो वापर सुरू जालो.

- को. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : तंत्रविद्या.

## तायखिळो

**तायखिळो :** (मराठी : टाकळा, तरोटा; हिंदी : चाकुंदा; कन्नड : तरगोसी, तगचे; संस्कृत : चक्रमर्द, दद्रुघ्न; इंग्लीश : फेटिड कॅसिया, सिकल सेन्ना; लॅटीन : कॅसिया नोरा; कूळ : लेग्युमिनोजी).

ही सांगो येवपी आनी वर्सभर जियेवपी ल्हान वनस्पत, रस्त्याचे कडेक वा पडंग जाग्यांनी आपशींच किल्लल्ली दिश्टी पडटा. उश्ण कटिबंधांतल्या भारत, पाकिस्तान आनी श्रीलंका ह्या देशांनी ती सामान्यपणान दिश्टी पडटा. ही वनस्पत सुमार ०.५ ते १०५ सेंमि. लांब आनी तिचो घेर सुमार १.५ - २ सेंमि. रूंद आसता. सप्टेंबर ते डिसेंबर म्हयन्यांमदीं ल्हान, हळदुवीं फुलां फुलतात. सांगो १२-१५ सेंमि. लांब; दर एके सांगेंत सुमार १०-२० बियो आसतात. मुळांचेर गांठी आसतात आनी ह्यो गांठी जमनींत नत्र सांठयतात. गोंयांत ही वनस्पत पावसा दिसांनी जळींमळीं किल्लता. तायखिळ्याची खास अशी लागवड कोणूच करिना, वा ताची जतनाय घेवपाचीय गरज आसना. एक प्रकारची नडणी म्हणून हे वनस्पतीकडेन पळेतात. २.५ ते ३ म्हयन्यांनी रोंपयांक फुलां येतात आनी सांगो जावपाक लागतात. ह्यो सांगो सुकतात आनी त्यो फुटून तातूंतल्यो बियो भायर पडटात. हें बीं जमनींत तशेंच उरता आनी दुसऱ्या पावसाळ्यांत तें किल्लून येता.

तायखिळ्याच्या पानांची भाजी पुश्टीक आसता. ही भाजी खाल्यार पोटाचे विकार निवळटात. पाचव्या पालेभाजयांनी जीं जीवनसत्वां आनी खनिजां आसतात तीं हे भाजयेंत आसतात. तायखिळ्यांत लोखणाचें प्रमाणूय बरें आसता. तायखिळ्याच्यो बियो रंग तयार करपाखातीर वापरतात. गोरवांचे खावडींतूय बियांचो वापर करतात. पोटांतल्या विकाराचेर जो कसाय करतात तातूंत तायखिळ्याच्या सुकिल्ल्या बियांचो उपेग करतात.

गोंयांत पावसादिसांनी जायते लोक तायखिळ्याची भाजी करून खातात. तायखिळ्याचीं तरणीं पानां, कांदो, सोय, पणसाचीं भिकणां घालून गोंयांत जायत्या घरांनी तायखिळ्याची भाजी करतात.

आदल्या काळांत गोंयांत दिवाळे आदल्या दिसा तायखिळ्याच्या सांगांतल्यो बियो काडून त्यो वांटून उटण्याच्या जाग्यार लावपाची चाल आशिल्ली. गोंयांत कांय लोक मुतूक साफ जावचें म्हणून तायखिळ्या बियांची च्या करून घेतात.

- विश्राम गांवकार

## तार

**तार:** न्हंय येरादारीचें एक साधन. न्हंयेच्या दोनय देगांचेर रावपी लोकांची आनी तांच्या सामानाची हाड - व्हर करपाखातीर जो पनेळ वा व्हडें वापरतात ताका तार म्हणटात. ही तार हातांनी तांडपाची आसता. आनी जो मनीस हो पनेळ वा व्हडें तांडटा ताका तारयो म्हणटात. जे सुवातीचेर ही येरादारी चलता ते न्हंयेचे देगेच्या दोनयकडच्या सुवातींकय तार (तारीकडे तारीची सुवात) म्हणप जाता. न्हंयेच्या उदकाचो लोट आनी येरादारी करपी लोकांच्या प्रमाणानुसार कांयकडेन एका व्हडया जाग्यार दोन व्हडयांचो सांगड वापरतात. एकोडो पनेळ आसता तेन्ना, जतनाय म्हणून उलांडीचो उपेग करतात.

तार हे येरादारीची मालकी ही भोवतेककडेन गांवाची भौशीक मालकी आसता. थरावीक पयशांच्या मोबदल्यांत थारावीक काळाखातीर तार चलोवपाचो करार (पावणी) करप जाता. रिवाजाप्रमाण लोकांकडल्यान येरादारीची फी म्हणून थारावीक पयशे वा धान्य/सेवा घेवप जाता.

न्हंयेचो आस्पाव आशिल्ल्या वाठारांतलें तार हें एक खूब पुर्विल्लें उपेगी अशें साधन. गोंयांत भोवतेक सगल्या न्हंयांचेर थरावीक अंतराचेर तारीची येरादारी चलता. हालींच्या काळांत फेरीबोट हे यांत्रिक येरादारीचे वेवस्थेक लागून तार ही वेवस्था उणी जायत आसा. जंय फेरीबोटीची वेवस्था जावंक ना थंय आजय तारीक म्हत्वाची सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## तारापूर

**तारापूर :** भारतांतल्या पयल्या अणुशक्ती वीजकेंद्राचें ठिकाण.

हें ठाणें जिल्ह्याच्या पाळघर तालुक्यांत माहीमचे उत्तरेक २५ किमी. अंतराचेर आसा. हांगासलें अणुशक्ती वीजकेंद्र १ एप्रिल १९६९ वर्सा सुरू केलें. ह्या अणुवीज केंद्रांतले नाका आशिल्ले पदार्थ जमनीपोंदच्या खोल नळांतल्यान पयस व्हरून दर्यांत सोडिल्ल्यान प्रदुशणाचो कसलोच धोको निर्माण जावंक ना. हांगासल्ली वीज महाराष्ट्र आनी गुजरात

राज्यां वापरतात.

हो गांव म्हळ्यार कोंकणांतलें खाडयेच्या मुळावयलें थंड अशें एक खेडें. भात शेती आनी नुस्तेमारी हो हांगासल्ल्या लोकांचो मुखेल उद्येग.

चिंचणी - तारापूर खाडयेच्या दक्षिण दर्यादेगेवयलें हें एक ल्हानशें बंदर. ह्या बंदरांतल्यान नुस्तें आनी लाकडाची निर्यात जाता. जाल्यार मीठ, साकर, पेट्रोल हे पदार्थ आयात करतात. खाडयेचे उत्तरेकडले दर्यादेगेर आशिल्ले चिंचणीक लागून हे सुवातेक चिंचणी - तारापूर ह्या जोड नांवानूय वळखतात.

थंय पारशी लोक व्हडा संख्येन रावतात आनी तांचें एक देवूळ आसा. तशेंच थंय एक पोरणो किल्लोय आसा. चिमाजी अप्पा हाणें हो किल्लो १७३९ वर्सा जिखून दर्यावटेनचे देगेक कडक बंदोबस्त केल्लो.

- को. वि. सं. मं.

## तारापोरवाला इराच जहांगीर सोराबजी : (जल्म : १८८४; मरण : १५ जानेवारी १९५६).

भारतीय भाशाशास्त्रज्ञ. हाणें भाशा विशयांत (इंग्लीश - संस्कृत) मुंबय विद्यापिठाची पदवी घेतली. १९०४ वर्सा तो इंग्लंडाक गेलो आनी १९०९ वर्सा बॅरिस्टरची परिक्षा पास जालो. ताणें युरोपाक वचून फ्रेंच आनी जर्मन भाशांचो अभ्यास केलो. १९१३त ताणें 'कौटिल्याचें अर्थशास्त्र' ह्या विशयाचेर बुट्सबर्ग विद्यापिठाची डॉक्टरेट मेळयली. केंब्रिजाक ताणें अरबी आनी इराणी भाशांचो अभ्यास केलो. भारतांत परत येतकच पयलीं कलकत्ता विद्यापिठांत आनी उपरांत मुंबयच्या कामा इन्स्टिट्युटांत अध्यापन केलें.

'लिंग्विस्टीक सोसायटी ऑफ इंडिया' हे संस्थेचो तो संस्थापक वांगडी आशिल्लो. कांय काळ तो हे संस्थेचो अध्यक्ष आशिल्लो. अखिल भारतीय प्राच्यविद्या परिशदेचो तो कांय काळ शाखाध्यक्ष आशिल्लो.

ताणें बरयल्ले नामनेचे ग्रंथ अशे - सिलेक्शन्स फ्रॉम अवेस्ता अँड ओल्ड पर्शियन (१९२२), द रिलिजन ऑफ जरयुश्त्र (१९२६), द गाथाज ऑफ जरथुश्त्र (१९४७), सिलेक्शन फ्रॉम क्लासिकल गुजराती लिटरेचर एलिमेंट्स ऑफ द सायन्स ऑफ लँग्वेज (१९५१).

'डेक्कन कॉलेज रिसर्च इन्स्टिट्यूट' हे संस्थेन ताच्या उगडासाक तारापोरवाला मेमोरियल वॉल्युम (जानेवारी १९५८) हो खंड उजवाडा हाडला. तशेंच, इंडियन लिंग्विस्टीक्सचो तारापोरवाला मेमोरियल (१९५७) उजवाडा हाडलो.

- कों. वि. सं. मं.

## ताराबाई : (जल्म : १६७५; मरण : ९ डिसेंबर १७६१).

कोल्हापूरच्या छत्रपतीचे गादयेची संस्थापिका आनी शिवाजी महाराजाची सून. तिच्या बापायचें नांव हंबीरराव मोहिते. १६८३ - ८४ च्या सुमाराक ती राजारामाकडेन लग्न जाली. मोगलांनी रायगडाक घेराव घालतकच ५ एप्रिल १६८९ दिसा तिणें राजारामावांगडा रायगड किल्लो सोडलो. फुडें रामचंद्र नीलकंठाचे येवजणेप्रमाण मोगलांक चुकयत विशालगड आनी हेर गडांचेर ती कांय वर्सां रावली. थंय रामचंद्राकडल्यान तिका मुलकी आनी लस्करी वेव्हाराची म्हायती मेळ्ळी. १६९४ त ताराबाई, राजसबाई आनी अंबिकाबाई हांचे सयत जिंजीक पावली. ९ जून १६९६ दिसा ताराबाईक चलो जालो आनी ताचें नांव शिवाजी दवरलें. राजाराम जिंजीच्यान सुट्टकच ताराबाई आनी तिचे सोयरे जुल्फिकारखानाच्या हातांत सापडले. ताणें तांकां मोगली सैन्यांतल्या शिर्के आनी मोहिते ह्या सरदारां सुवादीन केलीं. ताणीं ताराबाई आनी तिच्या सोयऱ्यांक महाराष्ट्रांत पावयलीं. २ मार्च, १७०० दिसा राजारामाक मरण आयलें. ताचेउपरांत ताराबाईचे राजकीय कारकिर्दीक सुरवात जाली. तेन्नाच शाहू मुसलमानांचे कैदेंत आशिल्लो. हाचो फायदो घेवन ताराबाई छत्रपतीचे गादयेर आपल्या चल्याचो हक्क सांगूंक लागली. पूण रामचंद्रपंत शाहूवटेन आशिल्लो. अशावेळार तिणें परशुराम त्रिंबक आनी शंकराजी नारायण हांकां आपलेवटेन ओडून शिवाजीची मूज करून घेतली आनी विशाळगडार ताचो राज्याभिशेक केलो. ती आपल्या चल्याच्या नांवान राज्यकारभार पळेताली. सैन्याधिकारी नेमून तिणें औरंगजेबाकडेन झूज दिवंक सुरवात केली. १७०५त मराठ्यांनी पन्हाळा मुसलमानांकडल्यान घेतलो आनी तिणें फुडें तीच आपली राजधानी केली. मदल्या काळांत तिणें औरंगजेबाकडेन उलोवणीं करून चल्याखातीर मनसब आनी दक्षिणेचे देशमुखीखातीर मागणी केली. पूण हातूंत तिका येस मेळ्ळें ना. तेन्ना तिणें मुसलमानांकडेन आपलें झूज चालू दवरलें. दर एका गडाचेर वचून ती स्वता आपूण सगळी पळोवणी करताली. १७००-०७ मेरेन मुसलमानांनी घेतिल्ले चडशे गड ताराबाईच्या सैन्यान परत मेळयले. फुडें औरंगजेबाच्या मरणाउपरांत शाहूची सुटका जातकच शाहू आनी ताराबाई हांचेमदीं वारसाहक्का खातीर वाद सुरू जालो. १२ ऑक्टोबर १७०७ ह्या दिसा खेड-कड्साक तांचेमदीं झूज जालें. ताराबाईच्या ताब्यांत आशिल्ले गड शाहून घेतले. तशेंच बाळाजी विश्वनाथान ताराबाईच्या पक्षांतले चंद्रसेन जाधव, उदाजी चव्हाण, कान्होजी आंग्रे खटावकर आदी सरदारांक आपले वटेन ओडले. १७१४त राजसबाई हिणें आपलो चलो संभाजी हाका पन्हाळ्याक छत्रपतीचे गादयेर बसोवन ताराबाई आनी तिचो चलो शिवाजी हांकां बंदी केलीं. १७२७त शिवाजी बंदखणींतच मेलो. उपरांत ताराबाई पेशव्यांचे मध्यस्थीन शाहूक वचून मेळ्ळी. १७४९ मेरेन तिचे आनी शाहूचे संबंद बरे आशिल्ले.

शाहूच्या मरणाउपरांत बाळाजी बाजीरावान रामराजाक सातारचे गादयेर बसयलो. तेन्ना ताका आपल्या हाताखाला दवरून सगळी सत्ता तिणें आपल्या हातांत घेवपाचो यत्न केलो. पूण रामराजा पेशव्याच्या मताप्रमाण वागता तें पळोवन तो खरो वारस न्हय अशें जाहीर करून ताका त्रास दिवंक लागली आनी १७५०त ताका तिणें बंदी केलो. दामाजी गायकवाड आनी नासिरजंग निजाम हांच्या आदारान तिणें साताऱ्याचो कारभार आपल्या हातांत घेवन पेशव्याकडेन झूज सुरू केलें. निमाणें तिका पेशव्याक शरण वचचें पडलें. १७६१त तिका मरण आयलें. ताराबाई हुशार, राजकारणी आनी कारस्थानी आशिल्ली. स्वताचे हेर दवरून ती आपलेआड पक्षांतली म्हायती काडटाली. तिचे खरें कर्तूप १७००-०७ ह्या काळांत दिसून येता.

- कों. वि. सं. मं.

## तारायंत्रविद्या : मनशाचे जिणेंत जशी जशी उदरगत जायत गेली तशी तशी एकामेकांपसून पयस आशिल्ल्यो दोन संस्था वा व्यक्तिमदीं संपर्क सादपाखातीर नवे उपाय सोदून काडपाची गरज निर्माण जाली. हेच गरजेंतल्यान तारायंत्रविद्या ही एक पोरणी, पूण कार्यक्षम अशी

पद्दत जल्माक आयली.

सरयेंतल्यान विद्युत् प्रवाह सोडलो जाल्यार तिचेभोंवतणीं चुंबकीय क्षेत्र तयार जाता हो एक म्हत्वाचो सोद एच. सी. आर्स्टेड हाणें १८२० वर्सा लायलो. सरयेच्या वेटाळ्यांमदीं चुंबकीय सुची दवरून सरयेंतल्यान एकदिश विद्युत् प्रवाह (direct current) सोडलो जाल्यार सुची विचलीत जाता. तिच्या विचलनाचें मुल्य विद्युत् प्रवाहाच्या मुल्याच्या समप्रमाणांत बदलता. इतिसहासांतल्या पयल्या तारायंत्रान हो परिणाम वापरिल्लो. सुचीच्या सगळ्या वटांनी इंग्लीश मुळाक्षरां बरयल्लीं आसतालीं. विद्युत् प्रवाहाचें प्रमाण बदलून चुंबकीय सुचीचें विचलन नियंत्रीत जातालें आनी तिची दिशा जाय त्या अक्षराकडेन घुंवताली. विद्युत् घटमाळेचे एके वटेन चुंबकीय सूची यंत्र दवरून एक सादी अशी संदेशवाहन येवजण तयार जाताली. हे यंत्रणेंत आशिल्ल्यो दोन उणिवो म्हळ्यार संदेश धाडटना चुको जावप आनी संदेशाचो वेग सामको उणो आसप. हांकां लागून ही पद्दत चड लोकप्रिय जालिना.

१८२३ ह्या वर्सा विल्यम स्टर्जन हाणें एक सोद लायलो. तो म्हळ्यार प्रवाहवाहक वेटाळ्यांत मोव लोखणाचो (soft iron) कुडको दवरल्यार, ताचें एके व्हड शक्तीच्या चुंबकांत रुपांतर जाता आनी विद्युत् प्रवाह थांबयल्यार तातूंतलें चुंबकत्व नश्ट जाता. ह्या तत्त्वाचेर आदारीत एकदली (simplex) तारायंत्र पद्दत निर्माण जाली.

**एकदली तारायंत्र पद्दत** (simplex system) - हे पद्दतींत, आकृतींत दाखयल्लेप्रमाण दरेका स्थानका म्हऱ्यांत एके विशिश्ट तरेची विद्युत् प्रवाह नियंत्रक चावी आनी एक संदेश ग्राही आसता. 'स' ही स्प्रींग आशिल्ल्यान चावयेचे सादारण अवस्थेंत विद्युत् मंडल पूर्ण जायना. 'क' ह्या जाग्यार दाब दिल्यार मंडलांतल्यान विद्युत् प्रवाह व्हांवंक लागता.




एकदली तारायंत्र : १. विद्युत् प्रवाह नियंत्रक चावी
२. विद्युत् ग्राही स्थानक
३. विद्युत् चुंबक
४. ऐरण
५. विद्युत् घटमाळ.

होच प्रवाह दुसऱ्या स्थानकाच्या ग्राही (Receiver) यंत्रांतल्यान व्हांवता, तेखातीर विद्युत् चुंबक उत्तेजीत जाता. 'प' हे लोखणाचे पट्टेक तो चुंबक आपलेकडेन नेटान आकर्शीत करता. अशें जाल्यान ती पट्टी सकयले ऐरणीचेर तुतयाभाशेन आपटता. चावयेवयलो दाब काडिनाफुडें प्रवाह परतून थांबता. चुंबकाचें चुंबकत्व नश्ट जाता आनी पट्टेक स्प्रींग आशिल्ल्यान ऐरणीच्या वयल्या भागाक आपटता. आपटपाच्या ह्या दोन क्रियांचे 'कड्ड' आनी 'कट्ट' अशे दोन विशिश्ट आवाज जातात. ह्या आवाजांच्या काळांतलो फरक दाखोवपाखातीर तांकां 'प्रास' (dash) आनी 'टींब' (dot) अशीं नांवां आसात. हे संकेत वापरून अमेरिकन अभियंतो सॅम्युयल मोर्स हाणें सांकेतिक भास (Morse code) तयार केली.

मोर्स हाची सांकेतिक लिपी :

| मूळाक्षरे | मॉर्स यांची संकेत मूळाक्षरे | मूळाक्षरे | मॉर्स यांची संकेत मूळाक्षरे |
|---|---|---|---|
| A | • — | U | • • — |
| B | — • • • | V | • • • — |
| C | — • — • | W | • — — |
| D | — • • | X | — • • — |
| E | • | Y | — • — — |
| F | • • — • | Z | — — • • |
| G | — — • | 1 | • — — — — |
| H | • • • • | 2 | • • — — — |
| I | • • | 3 | • • • — — |
| J | • — — — | 4 | • • • • — |
| K | — • — | 5 | • • • • • |
| L | • — • • | 6 | — • • • • |
| M | — — | 7 | — — • • • |
| N | — • | 8 | — — — • • |
| O | — — — | 9 | — — — — • |
| P | • — — • | 10 | — — — — — |
| Q | — — • — | पूर्णविराम | • — • — • — |
| R | • — • | स्वल्पविराम | — — • • — — |
| S | • • • | प्रश्न चिन्ह | • • — — • • |
| T | — | उद्गार चिन्ह | • — • • — • |

हे एकदली यंत्रणेंत खंयचेंय एक स्थानक एकाच वेळार संकेत धाडप वा घेवप हातूंतली एकूच क्रिया करपाक शकता. अमेरिकेच्या वॉशिंग्टन आनी बॉल्टिमोर ह्या शारांनी मोर्स हाणें ही संदेश वाहन येवजण प्रस्थापीत करून २५ मे, १८४४ ह्या दिसा चालीक लायली.

**द्विदली** (duplex) **आनी बहुदली तारायंत्र येवजण** - हे येवजणेंत खंयच्याय एका स्थानकावयल्यान एकाच वेळार संकेत धाडप आनी संकेत घेवप, ह्यो दोनूय क्रिया घडूंक शकतात. तशेंच एकाच वेळार एकेच दिशेन दोन संकेत धाडप शक्य जाता. द्विप्रवाही (double current) आशिल्ली ही पद्दत थॉमस एडिसन हाणें द्विदली एकप्रवाही येवजणेंत मिश्रीत करून एके नवे पद्दतीचो सोद लायलो. आविल्ल्या काळांत एकदिश विद्युत दाबान चालू जावपी एकप्रवाही वा द्विप्रवाही एकदली पद्दतूच चड वापरांत आसा. आमचे एकप्रवाही पद्दतींत मात जमनीबदला सरी वापरतात.

द्विदली येवजणेंत दोन स्थानकांमदलें अंतर वाडिल्ल्यान, तांकां जोडपाच्या सरयांचीय लांबाय वाडटा आनी हाका लागून विद्युत प्रवाह उणो जायत वता. अशें जाल्यान संकेत बरोबर पावना. हेखातीर पयस आशिल्ल्या स्थानकांमदी अभिचालित्र (repeater) वापरतात. संदेशांची संख्या वाडोवपाखातीर एडिसन हाणें चतुर्दली येवजणेचो सोद लायलो.

हेच येवजणेचें उपरांत बहुदली येवजणेंत रुपांतर जालें.

**तारायंत्र संकेत लिपी** - 'प्रास' आनी 'टींब' हांचेर आदारीत जी मोर्स लिपी आशिल्ली ती सादारणपणान १९३० वर्सामेरेन वापरांत आशिल्ली. यांत्रिक तारायंत्रां उपेगांत येतकच पांच वा सात एककांचेर आदारीत नव्यो संकेत लिपयो वापरांत आयल्यो. हेखातीर संदेश धाडपाचो वेग वाडलो आनी चुकोय उण्यो जाल्यो. संदेश कागदाचे पट्टेचेर चिन्नांच्या रुपांत बरयतात.

**केबलाचो वापर** - दोन स्थानकांमदीं संपर्क सादपाखातीर जमनीचेर खांबे पुरून तांचेवयल्यान सरयो ओडटात. पूण अपघात वा हेर कारणांक लागून त्यो तुटूंक शकतात. हालींच्या तेंपार दर्यांत केबल घालून संपर्क सादपाची पद्दत वापरतात. देखीक - भारत आनी इंग्लंड हांचेमदीं सिमॅन्स हे जर्मन कंपनीन १८६८ वर्साच्या अदमासाक केबल दर्यांत घाली. अशे एके केबलींत कितल्योशोच सरयो आसतात. तांबें वा ॲल्युमिनियम हांचेपसून ह्यो सरयो तयार करतात.

**बहुदली तारायंत्र** - उच्च कंप्रतेच्या (frequency)संवह प्रवाहांत उणे कंप्रतेचो संकेत प्रवाह मेळोवन ताचें परमप्रसर विरुपण (Amplitude Modulation) करतात. कांय प्रगत देशांनी परमप्रसर विरुपणाच्या बदला चड कार्यक्षम अशे कंप्रता विरुपण वापरतात. बहुदली पद्दतींत कितलेशेच परमप्रसर (वा कंप्रता) विरुपीत संदेश एकेच केबलीवयल्यान एकाच वेळार धाडटात. दरेका स्थानकाची एक थारोवन दिल्ली कंप्रता आसता. विद्युत् चाळण (filter) वापरून तो स्थानक ताचेखातीर आशिल्लो संदेश ओडून घेता आनी यांत्रिकाच्या आदारान कागदाचे पट्टेचेर बरयता. ह्या संदेशाचें विसंकेतन करून निमाणें तो इंग्लीश मुळाक्षरांनी बरयतात.

**टेलिप्रिंटर (दूरमुद्रक)** - संकेत ग्राहीनूच संदेशाचें विसंकेतन करून सरळ इंग्लीश मुळाक्षरांनी टंकलिखाण करप शक्य जावचें म्हणून ई. ई. क्लायनश्मिट हाणें १९२० वर्सा असो यत्न केलो आनी तेन्नाच ह्या टेलिप्रिंटराचो सोद लागलो. ह्या यंत्रांत कर्मचाऱ्यान यंत्राम्हऱ्यांत रावपाची गरज नासता. संदेश येतकच हें यंत्र आपसुकूच चालू जाता आनी संकेताचें विसंकेतन करून छापील स्वरुपांत कागदाचेर उमटायता. संदेश येवपाचो बंद जातकच हें यंत्र आपसुकूच बंद जाता. टॅलॅक्स हे आंतरराश्ट्रीय स्वयंचलीत सेवा येवजणेवतीन सरळ संकेत धाडप आनी घेवप शक्य जालां. हेखातीर पाच एककांचेर आदारीत अशी संकेत लिपी वापरतात आनी तिचो वेग मिनटाक ६० ते १०० उतरां इतलो आसूंक शकता. बिनतारी संदेशवाहक (Wireless Communication) ही वेवस्था बहुदली तारायंत्राभाशेनूच आसा. पूण हातूंत विद्युत् उर्जा एका स्थानकापसून दुसऱ्या स्थानकामेरेन सरी वा केबल हांच्या आदारान वचना. तेखातीर वातावरणांत तिचें प्रेषण (Radiation) जावपाचे नदरेन संवह तरंगाची कंप्रता (रेडिओ कंप्रतेइतली वा चड) आसची पडटा. हेखातीर ०.१ मेगाहर्ट्झ (MHz)हे कंप्रतेचे तरंग वापरतात. हे तरंग वयर वचून आयनांबराचेर (Ionosphere) परावर्तीत जावन पृथ्वीवयल्या दुसऱ्या लांब अंतरावयल्या स्थानकामेरेन वतात. ३०० मेगाहर्ट्झ हे कंप्रतेचे तरंग वापरल्यार ते एका स्थानकापसून दुसऱ्या स्थानकामेरेन सरळ ओळींत प्रसारीत (Line of Sight Transmission) जावन थेट संपर्क जोडटात. अशे रितीन संवह तरंगाचे (अंतर्गत संदेशासकट) परमप्रसर विरुपण वा कंप्रता विरुपण करून आकाशकाचे (Antenna)वतीन प्रेषण करतात. ही उर्जा सरळ ओळींत वता (वा आयनांक आपटून परत येता). दुसऱ्या स्थानकाचेर आशिल्लो ग्राही आकाशक हे तरंग ओडून घेता. तांचें विवर्धन (demodulation) करून तातूंतलो संकेत स्वयंचलीत टंकलेखन यंत्राक धाडटा. अशे तरेन संकेत मूळ स्वरुपांतूच कागदाचेर छापून मेळटा.

– परेश पै अस्नोडकार

**तारी, दामोदर ऊर्फ बाबनी पुरुषोत्तम :** (जल्म : १५ जानेवारी १९३२, वळवय, फोंडें).

सुटकेझुजारी. ताणें लिसेंवाचें दुसरें वर्स तशेंच एस.एस.सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. १९४६ वर्सा सावन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटणेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटणेचो वांगडी जालो. २७ मार्च, १९५५ ह्या दिसा सचिवालयांत टायम-बॉम दवरपाक ताणें रोहिदास तारीक पालव दिलो. २७ मे १९५५ ह्या दिसा हळदोणें पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करता आसतना जखमी जाल्ल्या दल संघटणेच्या वावुरप्यांक ताणें आदार दिलो. ३० जून १९५५ ह्या दिसा पाळी मिनाखाणीचेर आनी ५ फेब्रुवारी १९५६ ह्या दिसा चांदेल पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. ३१ जुलय १९५६ ह्या दिसा माशेल, तोंकार बसीर स्फोट घडोवन हाडपाक ताचो हात आशिल्लो. ताचे गैरहाजेरींत प्रादेशिक लस्करी न्यायालयान ताका २९ डिसेंबर १९५६ ह्या दिसा २४ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १२ ऑगस्ट १९५६ ह्या दिसा पिसुर्लें मिनाखाणीचेर हल्लो करून थंयची यंत्रणा ताणें इबाडून उडयली. १९ फेब्रुवारी, १९५७ ह्या दिसा ताणें शिरगांव मिनाखाणीचेर हल्लो केलो. व्हाळशी दिवचले ताणें लस्करी जिपीचेर स्फोट घडोवन हाडलो. पोलिसांनी ताच्या घराचेर धाड घाली आनी ताचें रायफल आनी हेर वस्तू जप्त केल्यो. तशेंच, ताच्या बापायक धरून ताचोय छळ केलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**तारो :** (पळेयात नखेत्र).

**तार्तर :** (तातर, तातार, तार्तार). मध्य आशियेंतली एक मध्ययुगांतली हेडगी जमात. उदेंत मंगोलिया आनी अस्तंत मँचुरियांतल्यान आयिल्ल्या तार्तरांच्या पंगडांनी चंगीझखानाच्या नातवाच्या फुडारपणाखाल १२३७त हंगेरींत प्रवेश घेवन उदेंत युरोपाचो चडसो वाठार व्यापलो. ताका इतिहासांत 'गोल्डन होर्ड' अशें नांव आसा. तांणी हाताशिल्ल्या युरेशियेच्या वाठाराक 'तार्तरी' वा 'तातरी' म्हण्टाले. हो वाठार ३५° उत्तर ते ५५° उत्तर हे मजगतीं अस्तंतेक रशियेच्या मुखेल शारांसावन उदेंतेक पॅसिफीकामेरेन पातळिल्लो. चवदाव्या शेंकड्यांत तार्तरांनी सुन्नी मुसलमान पंथ आपणायलो. चंगीझखानाचें साम्राज्य सोंपतकच युरोपीय तार्तरी वा ल्हान तार्तरी म्हळ्यार गोल्डन होर्डच्या ताब्यांतलो प्रदेश आनी आशियाई तार्तरी वा व्हडलो तार्तरी म्हळ्यार सायबेरिया आनी मध्य आशिया अशे वळखतात. निमाणें ल्हान तार्तरी हें नांव क्रिमियाच्या खानाच्या वाठारामेरेनूच मर्यादीत उरलें. पयलींच्या काळासावन तार्तर लोकांनी लाकूड, मृत्तिकाशिल्प, कपडे, धातू हांचे कलाकुसरीखातीर आनी वेपाराखातीर नामना जोडिल्ली. अठराव्या आनी एकुणिसाव्या शेंकड्यांत तांणी रशियन साम्राज्यांत म्हत्वाची

सुवात मेळयली.

चडशे तार्तर लोक रशियेंत रावतात. ते ज्या प्रदेशांत रावतात, ते सुवातीक 'तातरिया' वा 'तातरस्तान' अशें म्हण्टात.

चडशा तार्तरांनी ब्रॉंझ युगापयली वोल्गा देगणांत वस्ती केली. धाव्या ते तेराव्या शेंकड्यामेरेन थंय ब्यूल्गारांचें राज्य आशिल्लें. फुडें सोळाव्या शेंकड्यामेरेन मंगोलांचो शेक आशिल्लो. १५५२त रशियेच्या आयवान (इवान द टॅरिबल) चवथो हाणें हो प्रदेश जिखलो. १९२०त तार्तर स्वायत्त प्रजासत्ताक तयार जालें.

हो वाठार चडसो सपाट. ताच्या अस्तंत भागांतल्यान व्होल्गा न्हंय, उत्तर - दक्षिण दिशेन व्हांवत वता आनी तिची सगल्यांत व्हडली उपन्हंय कामा ही चडशा भागांतल्यान उदेंत - अस्तंत दिशेवटेन वता. व्होल्गाचे अस्तंतेकडलो वाठार २३५ मी. मेरेन आनी उदेंतेकडलो वाठार उरल दोंगराचे तेंगशेकडेन ऊंच जायत वता; आग्नेयेकडेन तो बुगुल्मा - बेल्यिब्ये वाठाराकडेन ३४३ मी. मेरेन चडत वता. व्याट्का, स्वीयाग आनी ब्येलाया ह्यो कामाच्यो मुखेल उपन्हंयो आसात.

चडसो सगळो वाठार स्टॅप शेतां आनी रान विभागांत आसा. सुमार १७% वाठारांत रानां आसात. खनीज तेलां, उद्येगधंदे आनी शेतकाम हांचेर थंयची अर्थवेवस्था आदारून आसा. १९४३त तेलाची पयली बांय मारतकच उद्येगधंद्यांची नेटान वाड जाली. आल्मित्येफ्स्क सावन उदेंतेकडेन आनी अस्तंतेकडेन तेलनळ वतात. मिन्नीबायेव्हो नगरांत सैमीक वायूचें उत्पादन जाता. अस्फाल्ट, जिप्सम, ॲलॅबॅस्टर, फ्लोरिडिन, फॉस्फोरायट, गंधक, तांबें आनी चुनखडी, लिग्नायट आनी पीट हीं खनिजां ल्हान - व्हड प्रमाणांत सांपडटात. कझॅन आनी मेंडेल्येफ्स्क हीं रसायनी उद्येगांचीं केंद्रां आसात. व्होल्गा देगेवयल्या कझॅन, झिल्येनडॉल्स्क, चीस्टॉपल शारांनी शेतकामाचीं अवजारां, वैजकी उपकरणां, घड्याळी, टंकलेखन यंत्रां हांचे अभियांत्रिकी कारखाने आसात. ममादिशाक कागदाचे उद्येग आसात. शेती उत्पादनांत गंव, मको, बार्ली, कड्डणां, बटाट, सफरचंदां, भाजीपालो आनी हेर फळां हांचो आस्पाव जाता. गोरवां पोसप आनी म्होंवाचे मूस पोसप हे थंयचे म्हत्वाचे उद्येग. लाकूड, बांदकाम साहित्य, कापड, अन्न, वाहनां, कातडी कमोवप, हे उद्येग थंय वाडत आसात.

कझॅन राजधानीखेरीज बुगुल्मा, आल्मित्येफ्स्क, चीस्टॉपल, झिल्येन - डॉल्स्क, यिलाबूगा, अग्रिस हीं थंयचीं मुखेल शारां. तार्तर ही थंयची भास.

\- कों. वि. सं. मं.

**तालगडी :** शिगम्या वेळार जावपी एक लोकनाच. वाद्याच्या तालाच्या ठेक्यार नाचपी (गडे) नाचतात म्हणून ह्या लोकांनाचाक तालगडी अशें म्हण्टात. सामान्यपणान ह्या नाचाक तालगडी खेळप अशें म्हण्टात.

घुमट, कांसाळें, समेळ, धोल आनी कांय कडेन शेनाय आनी सूर्त ह्या वाद्यांची साथ आनी 'जोत' ह्या गीत प्रकाराची लय ह्या नाचाक मेळटा. आकर्शक असो भेस केल्ले खेळगडे गायन वादनाच्या तालाचेर एकामेकांकडेन संबंद दवरपी पदन्यास, हालचाली, हस्तमुद्रा हांचेवरवीं एक वांटकुळो गीत-नाच करतात. 'जोत' ह्या गितांचो विशय पुराणकथा, थळाव्या देवदेवतांचो संदर्भ असो आसता.

श्रीरंग तालगडी, श्रीरंग ताल हो ताल पुराय नाचभर चलता. शिगम्याच्या दिसांनी नमना उपरांत दर दिसा सांजेचे गडे, वाठारांतले परंपरेन थारायल्ल्या अशा शिगम्या मांडार देवळा सामकार आनी कांय प्रतिश्ठितांच्या घरामुखार तालगडी खेळटात. तालगडी खेळपी पंगडाचो तळी दिवन भोवमान करतात. हे तळयेंत येजमान एंक ते पांच नाल्ल, तांदूळ, विडो, साकर वा गोड आनी उदकाची कळशी मांडार दवरतात. हो पंगड तळयेची सामुग्री एकठांय करता आनी उपरांत ताचो वापर पंगडाच्या गांवांतल्या भौशीक उत्सवाखातीर करप जाता.



गोंयांत साश्ट, बारदेस आनी तिसवाडी हे म्हाल सोडले जाल्यार हेर सगळ्या म्हालांनी तालगडी खेळप जाता. फोंडे आनी काणकोण म्हालांत तालगडीचो जोश चड आसता. फोंडे म्हालांतले तालगडी-मेळ दर वर्सा म्हाड्डोळचे श्री म्हाळसा देवीचे भेटेक वाजत-गाजयत वतात. हालीं सावनूच गोंय सरकाराच्या पर्यटन विभागावतीन राज्य पांवड्याचेर तालगडी सर्त आयोजीत जाता.

\- कों. वि. सं. मं.

**ताल-विचार :** भारतीय संगितांत 'लय' ही संगिताचो प्राण मानतात. लय हें संगिताचें कालमापन आनी ते लयीचे परिमाण म्हळ्यार ताल. ताका लागून ताल हो भारतीय संगितांतूच न्हय तर वैश्विक संगितांतूय म्हत्वाचो घटक. अमरकोशांत ताल म्हळ्यार 'ताल : कालक्रियामानम्' अशें म्हळां. गीत, वाद्य आनी नाच हांचे क्रियेचे गतीचें नियमीत प्रमाण जाच्या योगान दाखयतात. ताका ताल अशें म्हण्टात. 'ताल' हो शब्द, 'तल' म्हळ्यार प्रतिश्ठा, थिराय ह्या धातूपसून तयार जाला. तालाच्या दरेक हेश्श्याक 'मात्रा' म्हण्टात. 'मा' हो संस्कृत शब्द मेजपाची क्रिया दाखयता. जायत्यो मात्रा मेळून ताल जाता. पुर्विल्ल्या तालशास्त्राच्या नेमाप्रमाण पांच लघू अक्षरांच्या शब्दाक 'मात्रा' म्हण्टात. एक, दोन, तीन आनी अशा हेर मात्रांच्या उच्चारणान नियमीत अशा काळाचो परिच्छेद दाखोवप म्हळ्यार ताल, अशें मधू नांवाच्या ग्रंथकारान तालाची व्याख्या केल्या. हाचोच अर्थ थरावीक काळाच्या अंतरान आनी दोनूय हातांच्या संयोगान जी ताळी दितात, तिकाय ताल अशें म्हण्टात.

शिवाच्या नृत्याक तांडव आनी गौरीच्या नृत्याक लास्य अशें नांव आसा. तांडव आनी लास्य हांचीं सुरवातेचीं अक्षरां घेवन ताल हो शब्द जाला, अशें संगितशास्त्रांत म्हळां. ताल शब्दाचो अर्थ कांय जाण शिवशक्ती (ता = शिव, ल = शक्ती) अशेंय मानतात. काल आनी मान (प्रमाण) ह्या दोगांयच्या योगान ताल उत्पन्न जाता.

ताल ज्या बोलांनी वाजोवन सादर करतात, त्या सगळ्या बोलांक मेळून, त्या तालाचो 'थेको' म्हण्टात.

पुर्विल्ल्या काळासावन लघू, गुरु, प्लुत, द्रुत आनी अणुद्रुत ह्या पांच मात्रांचेर ताल आदारिल्लो आसा. हाचेवयल्यानूय तालाची उत्पत्ती छंदासावन जाली आसुंये अशें दिसता.

'दक्षिण भारतांतल्या सालगसूडक नांवाच्या एका प्रबंधांत ध्रुवा, मठ्य, झंपा, अड्ड, त्रिपुट, रुपक आनी एकताल अशे सात ताल दिल्यात. पूण थंयच्या संगिताक हे ताल पावनाशिल्ले. तेखातीर तालांतलें दरेक आंग तिप्पट, चवपट, पांचपट, सपट आनी णवपट करून सात तालांचे पस्तीस ताल केले. पूण तशें केल्ल्यान अर्दमात्रा आसपी आंगांक तीन, पांच हांणी गुणल्यार ११/२, २१/२ अशी अर्दवट संख्या येवंक लागली. असली अर्दी संख्या तालांत दाखोवपाक मेळना. उपरांत ही अडचण पयसावपाखातीर अर्दमात्रांक तीन ह्या विशम अंकान गुणपाबदला तांकां चारांनी गुणपाची चाल सुरू जाली. हीच पद्दत दक्षिण भारतांत चालू आसा.

तालाचे धा प्राण आसात, ते अशे -

**काल :** क्षण, लव, कला, त्रुटी वा अनुद्रुत, द्रुत, लघू, गुरु, प्लुत, काकपाद हांचेवतीन कालाची गणना करतात. तशेंच अनुद्रुत, द्रुत, लघू, गुरु, प्लुत आनी काकपाद हांचेवतीन तालांतल्या कालाची गणना करतात. लघू अक्षराचो काल एक मात्रा मानला. ताचेवयल्यान अनुद्रुत - १/४ मात्राकाल, द्रुत - १/२ मात्राकाल, गुरु=२ मात्राकाल, प्लुत=३ मात्राकाल आनी काकपाद=४ मात्राकाल अशे मानल्यात.

**आंग :** तालांत कालमापनाखातीर अनुद्रुत, द्रुत, द्रुतविराम, लघू, गुरू हीं जीं प्रमाणां वापरल्यांत, तांकां आंग अशें नांव आसा.

**क्रिया :** तालांतली खरी शक्त क्रियेंत आसा. क्रियेचे, सशब्द आनी निःशब्द अशे दोन प्रकार आसात. सशब्द क्रियेचे ध्रुवा=चुटकी वाजोवप, शंपा=उजव्या हातान आघात करप, ताल=दावो हात उंच करून आघात करप आनी सन्निपात=ताळी वाजोवप अशे चार भेद आसात. निःशब्द क्रियेचेय आवाप, निष्क्राम, विक्षेप आनी प्रवेश अशे चार भेद जातात. हात वयर उखलप, बोटां सोडप-आंवुळप.

**मार्ग :** चित्र, वार्त्तिक आनी दक्षिण अशे मार्गाचे तीन प्रकार भरतान दिल्यात. चित्रमार्गांत कलेच्यो दोन मात्रा, वार्त्तिमार्गांत चार मात्रा आनी दक्षिणमार्गांत आठ मात्रा मानल्यात.

**जाती :** त्र्यक्ष आनी चतुरस्त्र अशो तालाच्यो दोन जाती आसात. लघूचो जो अक्षरकाल वा मात्राकाल, ताका जाती अशें म्हण्टात.

**कला :** कला म्हळ्यार भाग. कला हें एका कालप्रमाणाचें नांव. आदिकालांत चच्चत्पूट, चाचपूट, षट्पितापुत्रक अशे पांच ताल आशिल्ले. उपरांत त्या दरेका तालाचें आंग दुप्पट, चवपट, आठपट अशें करून नवे ताल केले.

**ग्रह :** गिताची सुरवात आनी तालाची सुरवात हीं दोनूय एकाच वेळार वा फाटींफुडें जावप, हाका ग्रह अशें नांव आसा. गीत आनी ताल एकाच वेळार सुरू जाल्यार ताका अतीतग्रह आनी गिताआदीं ताल सुरू जाल्यार ताका अनागतग्रह अशें म्हण्टात.

**लय :** दोन क्रियांतल्या अवकाशाक लय अशें नांव आसा. विलंबीत, मध्य आनी द्रुत अशे लयीचे तीन प्रकार आसात.

**यती :** द्रुत, मध्य आनी विलंबीत ह्या तीन लयींचो गितांत मेळ सादप, हाका यती अशें म्हण्टात. यतीचे समा, स्त्रोतोगता आनी गोपुच्छ अशे तीन प्रकार आसात.

**प्रस्तार :** विंगड विंगड रुपांनी तालाच्या आंगांची जी कल्पना करतात, तिका प्रस्तार अशें म्हण्टात.

'गानं तालेन धार्यते' म्हळ्यार गायन हें तालाचेर आदारिल्लें आसता अशें भरतान म्हळां. शार्ङ्गदेवान देशी तालांची संख्या १२० मानल्या. कांय जाणांच्या मतान ती २२४ जाल्यार कांय जाण ती १०८ मानतात. ह्या १०८ तालांतल्या कांय मुखेल तालांचीं नांवां अशीं आसात - चच्चत्पुटम्, चाचपुटम्, षट्पितापुत्रकम्, उध्दट्टम्, आदिताल, दर्पणताल, चच्चरी, सिंहलीला, कंदर्प, सिंहविक्रम, श्रीरंग, रतिलीला, परिक्रम, गजलीला, त्रिभिन्न, राजचूडामणी, राजताल, हंसनाद, जयमंगल आनी हेर.

सद्याच्या हिंदुस्थानी संगितांत त्रिताल, झपताल, रुपकताल, दादरा, धमार, केरवा, झूमरा, दीपचंदी हे ताल प्रचलित आसात. कर्नाटक संगितांत ध्रुवताल, मठ्यताल, रूपकताल, झंपाताल, त्रिपुटताल, अड्डताल आनी एकताल हे ताल प्रचारांत आसात.

भारतीय संगितांत ताल वाद्यां म्हणून तबलें, पखवाज, मृदंग हीं वाद्यां आसात जाल्यार मुदंगम्, घटम् हीं तालवादयां दक्षिण भारतीय संगितांत प्रचलीत आसात.

पुर्विल्ल्या काळांत तालासंबंदीचे जायते ग्रंथ निर्माण जाल्ले. भरताचें नाट्यशास्त्र, आदिभरतम्, दत्तिलम्, भरतार्णवम्, संगीतरत्नाकर, तालसमुद्र ह्या ग्रंथांनीय तालाविशीं म्हायती मेळटा. तमीळ भाशेंतूय तालाविशीं जायते ग्रंथ आसात. भरताच्या नाट्यशास्त्रांतल्या ताल अध्यायांतले चच्चत्पुटवी हे पुर्विल्ले ताल, १०८ ताल आनी ध्रुव बी सात सालगसूडक ताल हांचे उल्लेख आसात. पूण तातूंत १०८ तालांचीं नांवां वा विस्कटावणी ना. दत्तिलम् ह्या ग्रंथांत नाट्यशास्त्रांतलीच विस्कटावणी थोडेभितर दिल्या. संगितरत्नाकरांत नाट्यशास्त्र, आदिभरतम् आनी हेर संगिताविशींचे ग्रंथ हातूंतली माहिती एकठांय करून एक तालाध्याय बरयला. आदिभरतम् आनी भरतार्णवम् ह्या ग्रंथांनी मेळपी १०८ तालांचीं नांवां सारकींच आसात.

- चंद्रशेखर नारिंग्रेकर

**तावज :** तांत्रिक संदर्भ आशिल्ली, अलंकारासदृश्य अशी प्रतिकात्मक वस्त. तावज हें उतर अरबी उतर ताविझ हाचेवयल्यान आयलां. मराठींत ताविजाक ताईत म्हण्टात आनी हो शब्द ताई आनी एतु (राखण) ह्या दोन कन्नड शब्दांवयल्यान तयार जाला. फातर, धातू, लाकूड आदी वस्तूंसावन तावज करतात. पुर्विल्ल्या काळासावन भुतां - खेतांपसून वा अदृश्य शक्तींपसून राखण जावंची, ह्या हेतान तावज गळ्यांत, दंडार वा कमराक बांदपाची चाल आसा. तावज तयार करतना कांयकडेन मंत्रांचोय उपेग करतात. तावजाचो संबंद जादूविद्येकडेन आसा. शक्त, बुध्द, विद्या, धन, विजय आनी सिध्दी हांचे प्राप्तीखातीर तावज उपेगी पडटा असो

समज आसा.

आदिम काळांत ताविजाचे दोन वर्ग आसले, व्यक्तिपरक आनी सामान्य. पयल्या वर्गांतलो तावीज भायल्या शक्तींपासून मनशाची राखण करपी आनी शक्ती दिवपी आसले, हे तावीज मनीस आंगार घालतालो. दुसरो तावज घर-दार, जनावरां, शेतां-बागांची राखण करपाक, घरांचेर- शेतांचेर लायताले.



पुराणवस्तू संशोधनांत जायत्या तरांचे तावज दिश्टी पडटात. अथर्ववेदांत तावज ह्या अर्थान 'मणी' हो शब्द वापरला. खादिरमणी (खैर रुखापसून केल्लो), पर्णमणी (पळस रुखापसून केल्लो), केशमणी, हिरण्यमणी अशीं नांवां वेदांत मेळटात. जे वस्तूचो मणी करपाचो आसता, ती वस्तू जळोवन, तिच्या गोबराभोंवतणी लाख गुठलावन, ताची गुळी करून भांगराचे पेटयेंत दवरतात आनी त्यावेळार अथर्ववेदांतले मंत्र म्हणपाचे आसतात, अशें अथर्ववेदांत सांगलां.

तावज हो शंख, शिंपी, मोती, शींग, दांत, नाखूट आदी वस्तूंचोय करतात. कांय खेपे कसल्याय जनावराचो अवशेश तावज म्हूणून बांदतात. म्हळ्यार ह्या जनावराचो गुण तावज घालपी मनशांत येता, असो समज आसा. वचत थंय येस मेळचें, भलायकी बरी उरची, धन मेळचें हेखातीर तावजाचो उपेग करतात. पूण चड करून तावज भुतांखेतांपसून आनी देवतांच्या रागापसून राखण मेळची, कोणाची वायट नदर लागची न्हय हे खातीर वापरतात.

कागदार वा भूर्जपत्रार मंत्र बरोवन तो एके धातूचे पेटयेंत दवरून हो तावज गळयांत बांदूक दितात. कुराणांतलीं वचनां कागदार बरोवन तो कागद एके रुप्याचे पेटयेंत दवरून ती गळ्यांत बांदपाची चाल मुसलमान धर्मांत आसा.

इजिप्तांतल्या पुर्विल्ल्या समाजांत तावज बांदपाची चाल आशिल्ली. यहुदी, ग्रीक आनी रोमन ह्या लोकांमदींय ही पद्दत आशिल्ली. अमेरिकेंतल्या मोकोव्ही ह्या आदिवासी लोकांमदीं हरणाचे खूर दंडार वा हातार बांदपाची चाल आसा.

चिटी-दोरे हो तावजाचोच एक प्रकार, एका थरावीक म्हूर्ताचेर वेगवेगळ्या रंगांचे दोरे घेवन तांकां गांठी मारून चिटी-दोरे तयार करतात.

– कों. वि. सं. मं.

**ताश्कंद :** रशियन संघराज्यांतल्या उझबेकिस्तान प्रजासत्ताकाची राजधानी. मध्य आशियांतल्या खुश्कीच्या वेपारी मार्गाचेर वशिल्लें हें एक पुर्विल्लें व्हड शार सिरदर्या न्हंयेच्या चिरचिक हे उपन्हंयेचेर आसा. आठव्या ते इकराव्या शतमानांतल्या अरब सत्तेउपरांत हांगा मंगोल, उझबेक, कझाक, कोकंद आदी खानती (खानाच्या ताब्यांतलो वाठार) जाल्यो. १८६५त हें शार रशियेन घेतलें. १९१७त सोव्हिएत सत्ता येतकच हें शार सुर्वेक तुर्किस्तान स्वायत्त प्रजासत्ताकाची राजधानी आशिल्लें. उपरांत १९३०त समरकंदा बदला उझबेक प्रजासत्ताकाची ताश्कंद ही राजधानी जाली.

ट्रान्स-कॅस्पियन हो रेल्वेमार्ग ह्या शारांतल्यान गेल्ल्यान ताका खुबूच नामना मेळ्ळी. हें एक व्हड उद्येगीक केंद्र आसून हांगा शेताचीं अवजारां, खणयंत्रां, रेडिओ, विजेच्यो सरयो आनी उपकरणां, रसायनां, फर्निचर, कातडी सामान, मातयेचीं आयदनां, अन्नपदार्थ हांचे व्हड कारखाने आनी पिठागिरण, कापडगिरण, कापूस पिंजप, सोरो, डबेबंद पदार्थ, मास, तंबाकू आदी वेगवेगळे उद्येग हांगा चलतात. चिरचिक न्हंयेचेर धरण बांदून शारांत जायतीं खारजां आनी वीज हाडल्या. शारांत विद्यापीठ, उद्येगीक, वैजकी, शेतकी आनी शिक्षक प्रशिक्षण म्हाविद्यालयां, उझबेक शास्त्र अकादमी, राश्ट्रीय ग्रंथालय, इतिहासीक संग्रहालय, नाटकघर आदी जायत्यो शिक्षणीक आनी संस्कृतीक संस्था हांगा आसात. १० जानेवारी १९६६त भारत आनी पाकिस्तान हांचेमदीं जाल्लो 'ताश्कंद करार' ह्याच शारांत जालो. तेन्नाच स्वतंत्र भारताचो दुसरो प्रधानमंत्री लालबहादूर शास्त्री हाका ह्याच शारांत अकस्मात मरण आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

**ताश्कंद कबलात :** भारत आनी पाकिस्तान हांचेमजगतीं रशियेंतल्या ताश्कंद शारांत १० जानेवारी १९६६ दिसा जाल्ली कबलात. भारतावयल्या पाकिस्तानी घुरयेक लागून ५ ऑगस्ट ते २३ सप्टेंबर, १९६५ मेरेन जाल्लें झूज हे कबलातीन सोंपलें. भारताचे तेन्नाचे प्रधानमंत्री लालबहादूर शास्त्री आनी पाकिस्तानचे राश्ट्रपती अयुब खान हांचे मजगतीं सोव्हिएत प्रधानमंत्री कोसिजिन हांचे मध्यस्थीन ४ जानेवारी १९६६ सावन वाटाघाटी जावन १० जानेवारीक णव कलमी कबलातीचेर दोनूय फुडाऱ्यांनी निशाण्यो केल्यो.

हे कबलातीवरवीं दोनूय देशांनी (१) संयुक्त राश्ट्र - सनदेप्रमाण एकामेकांकडेन बरे शेजारसंबंद निर्माण करपाची आनी एकामेकांआड सैन्यबळाचो उपेग करिनासतना, एकामेकांमदल्यो धुस्पटी शांततायेन सोडोवपाची हमी दिली. (२) २५ फेब्रुवारी, १९६६ च्या भितर आपापलीं सैन्यां ५ ऑगस्ट, १९६५ दिसा आशिल्ले सुवातेर परत घेवपाचें मान्य केलें.

कबलातींतलीं हेर कलमां फुडलेप्रमाण - (३) एकामेकांच्या भितरल्या कारभारांत धवळाधवळ करप ना. (४) एकामेकांआडच्या प्रचाराक आळाबंदा हाडप. (५) एकामेकांचे राजदूत परत स्थानापन्न करून १९६१ चे व्हिएन्ना कबलातीप्रमाण तांचे सुरक्षीततायेची वेवस्था करप. (६) एकामेकांमदले अर्थीक आनी वेपारी संबंद, दळणवळण आनी सांस्कृतिक दिवप-घेवप पुनरुज्जीवन करप आनी अस्तित्वांत आशिल्ली कबलात चालीक लावप. (७) झुजांतल्या बंद्यांची अदलाबदल करप. (८) दोनूय

देशांतल्या लोकांक व्हडा संख्येन देशत्याग करचो पडचोना अशी परिस्थिती तयार करप आनी झूजकाळांत दोनूय देशांनी एकामेकांची आस्पत आनी संपत्त ताब्यांत घेतिल्ली आसल्यार, ती परत करपाखातीर वाटाघाटी करप. (९) अती उंचेल्या आनी हेर पांवड्यांवयल्या हितसंबंदाच्या प्रस्नाचेर वेळोवेळ विचार करप.

हे कबलाती उपरांत भारताचे प्रधानमंत्री लालबहादूर शास्त्री हाका ताश्कंदांतूच काळजा आताकान मरण आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

**तासो :** गोंयचें एक लोकवाद्य. पुर्विल्ल्या काळासावन हें वाद्य गोंयांत घोळणुकेंत आसा अशें दिसता. कारण गोंयांतल्या पंचवाद्यांतलें तासो हें मुखेल वाद्य. पोरण्या चित्रांनी आनी शिल्पांनी तासो वाजोवप्याचें चित्र वा ताची आकृती पळोवपाक मेळटा.

तासो हें पांटलो वा कायलीच्या आकाराचें तांब्याचें वा पितळेचें वाद्य आसता. कांय ताशे पितूळ – तांबे अशा मिश्र धातूपसून तयार करतात. अशे तरेच्या ताशाक 'गंगाजमनी तासो' अशें म्हण्टात.



ताशाची पुडी (तोंड) बोकडेच्या चामड्यान सादयतात. वेताच्या आंटचार चाप बसोवन दोरयेन चामडें सादयतात. आतांचे ताशे लोखणी पट्टेच्या आट्यान सादयतात. लोखणाचे पट्टेक लागून ताका स्क्रू लावपाक मेळटात. चावयेच्या आदारान ताशा भोंवतणचे स्क्रू आंवुळटात आनी आवाजाची पट्टी थारायतात. हे स्क्रू उणेंच ते बारा आनी चडूच ते अठरा मेरेन आसतात. वाजोवपी आपले खोशयेप्रमाण हे स्क्रू बसोवन घेतात. ताशाचो व्यास एक फूट ते सवाय फूट इतलो आसता.

दोनूय हातांनी हातभर लांबायेच्यो दोन वेताच्यो बडयो घेवन हें वाद्य वाजयतात. तासो चडसो गळ्यांत घालून वाजयतात. भारतीय तालशास्त्रांतले सगळे ताल ताशाचेर वाजोवं येतात. ताशाचें वादन एकेरी केन्नाच आसना. ताचे बोल धोलकें ह्या वाद्यान पुराय जातात. वांगडा शेनाय, सूर्त आनी कांसाळें हीं वाद्यांय आसतात. धोलकें, शेनाय, सूर्त, कांसाळें वाजोवपी वादक वेगळे आसतात. पंचवाद्य मेळांत तासो हें मुखेल वाद्य आसता. तासो, शेनाय वाद्याक साथ करता पूण तासो आनी ताचीं सांगाती वाद्यां नासतना फकत शेनाय वाजली जाल्यार ताका रंग येना.

तबल्यार येवपी बोल ताशाचेर येतात. धोलकें आनी तासो ह्या दोगांचोय आवाज एकमेकांत भरसतकच शास्त्रीय ठेको, मुखडो आयकल्लेवरी दिसता.

ताशाच्या आवाजाची सुरवात 'त' करून जाता. तासो चडूच कडक आसलो जाल्यार तो 'क' कार भासता. तासो वाजयतना, सरपट काडटा आसतना तीर किटतक, धीरिकिट तक वा चौपट, आठपट लयेच्या वेळार 'टर्रर' असो बरो आवाज येता. वेताच्यो बडयो एके खाशेले तरेन ताशाच्या कांठार मारतात आनी आवाज काडटात.

गोंयांत गांवगिऱ्या वाठारांनी ग्रामदेवतेचे जात्रेसारक्या उत्सवा वेळार, समाजीक म्हत्वाच्या कार्या वेळार वा लग्न, मूज सारक्या मंगलकारक प्रसंगां वेळार जें पंचवाद्य मेळाचें वादन जाता तातूंत ताशाचो आस्पाव आसता. गोंयांत शिगम्याच्या वाजपांत विशेश करून मेळाच्या वाजपांत तासो हें एक मुखेल वाद्य आसता. मेळांत उणे ते दोन तरी ताशे, धोल आनी कांसाळें आसता.

गोंयच्या जात्रांनी जंय रथोत्सव जाता, थंय रथाचें नाचोवप हें मुखेलपणान ताशाच्या तालार चलता. मंगल कार्या वेळार ताशाचें सौम्य वादन आसता. जाल्यार जात्रे वेळार आनी शिगम्यांतल्या मेळांनी रौद्र रसांतलें वादन आसता.

– कों. वि. सं. मं.

**तास्सो तोरकातो :** (जल्म : ११ मार्च १५४४, सॉरेंतॉ; मरण : २५ एप्रिल १५९५, रोम).

इटालियन म्हाकवी. ताच्या बापायचें नांव बेरनार्दो आशिल्लें. तास्सो तोरकातोक कवी म्हणून खूब नामना मेळिल्ली.

पॅड्युआ आनी बोलोन्यांत ताणें कायदो, तत्त्वगिन्यान आनी अलंकारशास्त्र ह्या विशयांचो अभ्यास केलो. पॅड्युआंत आसतनाच ताणें रिनाल्दो (१५६२) हें आपलें पयलें महाकाव्य बरयलें.

१५६५त तो कार्डिनल लुईजी देश्त हाचेकडेन फॅरारांत नोकरेक लागलो. उपरांत तो फॅराराचो ड्यूक आफोन्सो दुसरो हाच्या आलाशिऱ्याक रावलो. हांगा आसतनाच दरबाराचे मनरिझवणे खातीर ताणें आमींता हें गोपनाटक (Pastural drama) बरयलें. उपरांत १५८१ वर्सा ताणें जेरूसलेम लिबेराता हें आपलें नामनेचें म्हाकाव्य पुराय केलें. १५७५च्या पयल्या धर्मझुजा वेळार गॉडफ्री ऑफ बुयाँ हाणें जेरूसलेम कशे जिखलें हो ताचो विशय आशिल्लो. पूण तें प्रकाशीत करचे पयलीं ताणें कांय जाणकारांक वाचपाक दिलें. तांचेकडल्यान ह्या म्हाकाव्याचेर खर टिका जाली आनी ही टिका ताका सोंसलीना. ताका पिशेपणाचे झटके येवपाक लागले. ताणें एका चाकराक सुरयेन तोपलो म्हणून ताका बंदखण भोगची पडली. थंयचो सुट्टकच वो सॉरेंतॉंत भयणीगेर रावलो. १५७९ वर्सा तो परतो फॅराराक आयलो. उपरांत तो इटलीभर भोंवत रावलो. ह्याच काळांत ताणें तोरीस्मोंदो ही शोकात्मिका पुराय केली. जेरुसलेम लिबेरताचेर जाल्ली टिका ताका याद आशिल्लीच. तें मतींत दवरून ताणें तें म्हाकाव्य जेरुसलेम कॉन्किस्ताता ह्या नांवान परत बरोवन काडलें. पूण तें निरूपयोगी थारलें. १५९४ वर्सा तास्सो रोमाक आयलो. थंय ताचो व्हड भोवमान जावपाचो आशिल्लो. पूण ताचे पयलींच तो दुयेंत पडलो आनी तातुंतूच ताका मरण आयलें.

प्रभोधन काळाचो अस्त आनी प्रतिरेफॉर्मेशनाचो भार हांच्या काळांतलो तास्सो हो कवी. ताणें एके वटेन सर्जनशील प्रेरणा घेवन उत्स्फुर्त

आविश्कार करचेली ओड आनी दुसरे वटेन कलासाहित्याक काटेकोर नेमांनी बांदून घालपी शक्ती हांचेमदली वांट सोदचेलो यत्न केलो.

क्रिस्ती धर्मझूज हो ताचो विशय आसलो तरीय ताचे हाताळणेंत स्वच्छंदतायवादी प्रवृत्ती दिसता. 'जेरुसलेम लिबरेटेड' ह्या ताच्या म्हाकाव्यांत ताणें ॲरिस्टॉटलाच्या नेमांचें पालन करूंक ना. तातूंत ताणें जायतीं उपकथानकां हाडलीं आनी तीं भावगेय पद्दतीन मांडलीं. तास्सोच्या ह्या म्हाकाव्याविशीं त्या काळांतल्या समिक्षकांचें व्हडलेशें बरें मत नाशिलें. तरीय इटलीच्या व्हड म्हाकाव्यांत ताचो आस्पाव जाता.

तास्सोन २,००० भावकविता बरयल्यात. आधुनीक कवितांचीं कांय खाशेलपणां तातूंत आयज समिक्षकांक मेळ्ळ्यांत. फ्रँच प्रतीकवादाचीं पूर्व रूपांय ताच्या कवितांनी आसात. ते नदरेन तांचें परत मोलावण चालू आसा.

– डॉ. किरण बुडकुले

**टॉकव्हिल :** (१८०५-१८५९). एकुणिसाव्या शतमानांतलो नामनेचो फ्रँच राज्यशास्त्रज्ञ आनी इतिहासकार. ताचें पुराय नांव ॲलेक्सीद टॉकव्हिल. 'अमेरिकेंतली लोकशाय' १८३५-४० (Democracy in America) आनी 'पोरणी राजवट आनी फ्रँच राज्यक्रांती' १८५६ (The old regime and the French Revolution) हे ताचे दोन ग्रंथ लोकप्रिय जाले.

टॉकव्हिल हो उदारमतवादी सामन्तशायेचो पुरस्कर्तो आशिल्लो. पूण ही सामन्तशाय तिगची ना, लोकशायेचे वावटळींत ती रोखडीच नानपश्चात जातली हाची ताका खात्री आसली. जुलय १८३०त फ्रांसाचे क्रांतीउपरांत लुई फिलिपी हो 'नागरीक राजा' अधिकाराचेर आयलो. टॉकव्हिल पयलींचे बुरवाँ राजवटीचो तो चाहतो आशिल्ल्यान ताचें हे नवे राजवटीकडेन सूत जमलेंना. ब्रिटनांतल्या सनदशीर राजेशायीचें स्वरूप ना जावन समाजीक समतेच्या वातावरणांत फ्रांसान प्रवेश केला, हाचेविशीं टॉकव्हिलाची खात्री जाली, म्हणून ताणें आपलो इश्ट बोमॉन्त हाचेवांगडा अमेरिकेंतले ख्यास्त आनी बंदखण पद्दतीचो अभ्यास करपाखातीर १८३१-३२त त्या देशाची भोंवडी केली. णव म्हयन्यांचे हे भोंवडेचेर आदारीत ताणें 'अमेरिकेंतली लोकशाय' हो ग्रंथ बरयलो.

अमेरिकेवयल्या ह्या ग्रंथान टॉकव्हिलाक फ्रँच ॲकॅडमी आनी विद्वानांच्या हेर संस्थांचें मानादीक वांगडीपद मेळोवन दिलें. ह्या ग्रंथाच्यो युरोपांतल्या वेगवेगळ्या देशांनी आवृत्ती आयल्यो. इंग्लंडांत ताका १८३५त बुदवंतांनी येवकार दिलो. जॉन स्टुअर्ट मिल हाचेकडेन, ताका लागून, तो संवाद सादूंक शकलो.

टॉकव्हिल १८३९ सावन फ्रँच संसदेच्या लोकनियुक्त सभाघराचो वांगडी म्हणून खूब खेपे वेंचून आयलो. बंदखणींतल्यो सुदारणा, गुलामगिरी, वसाहतवादी धोरण आदी विशयांवेल्या सभाघराचे समितीच्या म्हणयाऱ्याचें काम ताणें केलें. पूण बरें उलोवपाचें व्हडलेशें कसब नाशिल्ल्यान आनी राजकारणांतल्या गजालींची तडजोड करपाची वृत्ती नाशिल्ल्यान तो राष्ट्रीय राजकारणांत चड येस मेळोवंक शकलोना.

पॅरीसांतल्या उद्येगीक कामगारांचे समाजवादी क्रांतीची (१९४८) सुलूस टॉकव्हिलाक पयलींसावनूच लागिल्ली. ताका लागून फ्रांसांतल्या उदारमतवादी सनदशीर लोकशायेक धोको निर्माण जाला, अशें मत ताणें हे क्रांतीपयलींच केल्लें. ताचेपयलीं सामन्तशाय आनी लोकशाय हांच्या समन्वयाक ताणें तेंको दिल्लो आसलो, तरी निमाणें फळादीक जावंक नाशिल्ल्या ह्या राजकीय बदलांक लागून १८४९त टॉकव्हिलाक म्हत्वाचीं राजकीय पदां भुशोवप शक्य जालें. घटना समितीचो वांगडी म्हणून ताणें दोनदां वेंचणूक जिखली. घटना तयार करपी समितीचो तो वांगडी जालो आनी ॲसँब्लीचो उपाध्यक्ष जालो. तशेंच, विदेश मंत्री म्हणून ताची नेमणूक जाल्ली. ऑक्टोबर १८४९त लुई नेपोलियन राश्ट्राध्यक्ष जातकच ताणें टॉकव्हिलाक विदेश मंत्रीपदावयल्यान काडलो. लुई - नेपोलियनाच्या धोरणांक विरोध केल्ल्यान टॉकव्हिलाचीं सगळीं पदां काडून घेतलीं, तशेंच ताका बंदखणींत घालो.

जिविताच्या निमाण्या पर्वांत टॉकव्हिलान 'पोरणी राजवट आनी फ्रँच राज्यक्रांती' ह्या विशयाक अनुसरून व्यक्ती स्वातंत्र्य आनी समता हांच्या एकामेकाविशींच्या संबंदांचेर आपल्या विचारांचो परत उच्चार केलो. ह्या ग्रंथावरवीं ताका परत युरोपांत प्रसिध्दी मेळ्ळी. सत्तेचें केंद्रीकरण आनी दुसरेवटेन लोकशायकरण ह्या दोन प्रवृत्तींचो परिणाम म्हणून व्यक्तीस्वातंत्र्याचो संकोच जाल्लो दिसता. लोकमतांक अवास्तव म्हत्व मेळ्ळां. समाजाचें दृढीकरण जाता. मनीस क्षीण आनी दुबळो जाता. टॉकव्हिलान युरोपीय आनी अमेरिकन समाजांतली सत्ता उद्वेगीकरण, स्तरीकरण आनी लोकसमूह संस्कृताय ह्या क्षेत्रांतल्या प्रवृत्तींचो अभ्यास केलो.

नोकरशाय हें आर्विल्ले राज्यसंस्थेंतल्या सत्तेच्या केंद्रीकरणाचें एक मुखेल साधन आसता, अशें टॉकव्हिल मानता. लोकशायकरणाक लागून नोकरशाय चड बळिश्ट जाता. मध्ययुगीन समाजांतली समाजीक श्रेणी (hierarchy) प्रदेशीकताय आनी स्थानिकताय सोंपिल्ल्यान सत्तेचें केंद्रीकरण वाडटा आनी राजकीय केंद्रीकरणाक नेट येता. ताका लागून समाजीक समानीकरणाची प्रक्रिया वाडटा. क्रांती, सकयल्या वर्गांची भुमिका, साक्षरतायेचो पांवडो आनी झुजां हांका लागून नोकरशायकरणाची प्रक्रिया खोल मूळ धरता. नोकरशायेच्या वर्चस्वाक लागून सर्वाधिकारशायेचो धोको उपरासता, अशी शिटकावणी टॉकव्हिलान दिल्या.

भोवमताचो जुलूम (Tyranny of majority) आर्विल्ल्या युगांत वेगवेगळ्या कारणांक लागून वाडटा. लोकशायीकरणाच्या मुळाव्या प्रवृत्तीक लागून, तशेंच लोकमताच्या आर्विल्ल्या युगांतल्या म्हत्वाक लागून भोवमताचो जुलूम वाडटा, अशें टॉकव्हिल मानता. लोकशायेंतल्या लोकमताचे थिरायेक लागून राज्यक्रांतीच न्हय जाल्यार बौध्दीक स्वातंत्र्यूय अशक्य जाता, अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें. लोकशायेच्या ह्या आर्विल्ल्या युगांत व्यक्तीस्वातंत्र्य तिगोवपाचें आसल्यार स्वायत्त संस्था, बळिश्ट थळावीं शासनां, स्वमताचो आग्रो धरपी कायदेतज्ञ आनी हेर वेवसायीक शासनसंस्थांतले सत्तेचें विभाजन ह्यो तजवीजो गरजेच्यो आसतात, अशें टॉकव्हिल हाणें सांगिल्लें.

उद्येगीक युगांत अमेरिकेंत अर्थीक मंदीन मदीं मदीं अर्थवेवस्था इबाडटा. तिचें मूळ शेतकारांच्या मनांत वेपाऱ्यांचे बरोबरीन समाजीक पांवडो मेळचो, हे वस्तुस्थितींत लिपलां, अशी एक उपपत्ती टॉकव्हिल हाणें मांडली. ताणें अमेरिकेंतली नागरी समानताय, स्वयंसेवी संस्था आनी संघटणांचें प्राबल्य, थळाव्या शासनसंस्थांची स्वायत्तताय आनी घटनेन स्थापन केल्ल्या शासनसंस्थांतल्या अनुस्यूत सत्तेचें विभाजन ह्या राजकीय खाशेलपणांचो उल्लेख केलो.

तॉकव्हिलाच्या राजकीय विचारांचो प्रभाव ताच्या मरणा उपरांत अमेरिकेंतल्या विचारवंतांचेर जालोच. जाल्यार ताच्या समाजशास्त्रीय विचारांचो प्रभाव फ्रांस, जर्मनी आदी युरोपी देशांतल्या समाजशास्त्रांचेर जालो. फ्रांसाचे राजवेवस्थेंतलो उणाव, तेचप्रमाण ब्रिटनातलें तिचें खाशेलपण तॉकव्हिलान आपले बरपावळींतल्यान दाखयलां. अमेरिकेंतले वेवस्थेविशींय तॉकव्हिलान बारीकसाणीन निरिक्षण करून आपलीं मतां उक्तायल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**तिक्कन्न :** (जल्म : इ.स. सु. १२२०; मरण : इ.स. सु. १२९०).

नामनेचो तेलुगू कवी. तो गौतमगोत्री आनी आपस्तंबसुत्री ब्राह्मण आशिल्लो. व्युत्पन्न पंडीत आनी कवी म्हणून ताच्या घराण्याची नामना आशिल्ली. ताचे आवयचें नांव अन्नांबा आनी बापायचें नांव कोमन्न. तिक्कन्न संस्कृत आनी तेलुगू भाशांचो पंडीत आशिल्लोच तेभायर विनयी, न्यायी चारित्र्यवान म्हणून ताची नामना आशिल्ली. नेळ्ळूरा लागसार आशिल्ल्या हरिहरनाथांच्या देवळाकडेन तो रावतालो. नेळ्ळूरचो राजा मनुमसिध्दी हाचेकडेन ताचो सबंद आयलो. ताची सुमाराभायली प्रतिभा आनी असामान्य बुध्दिमत्ता पळोवन ताणें ताका आलाशिरो दिलो. ताचे राज्यसभेंत तो मंत्री, सेनापती आनी राजकवी ह्या तीन पदांचेर आशिल्लो. एक फावटीं नेळ्ळूराचेर संकश्ट आयिल्लें आसतना ताणें वरंगळच्या काकतीय नृपती गणपतिदेव हाका आपलें काव्य गावन दाखोवन आपल्या आश्रयदात्याचेर आयिल्ल्या संकश्टापसून सोडोवपाक सैनिकी पालव मेळयलो. ताणें एक फावट सोमयाग केल्लो देखून ताका 'तिक्कन्न सोमयाजी' म्हणुनूय वळखताले. एक फावट हनुमकोंडा गांवांत गणपती काकतीय हाच्या फुडारपणाखाल एक वादसभा भरिल्ली. तिक्कन्नान हे सभेंत वांटो घेवन जैन आनी बौध्द पंडितांक हारयले आनी वैदिक धर्माचें व्हडपण सिध्द करून दाखयलें.

'निर्वचनोत्तर रामायण' ही ताची पयली रचना. हे रचनेंतल्या 'सीताचरित्र' ह्या भागांत ताच्या असामान्य कवित्वाचीं मुळां स्पश्ट दिसतात. हो ग्रंथ ताणें रामायणाच्या उत्तरकांडाचेर आदारून बरयला. उत्तरकांडाचेर तेलुगूंत रचना करपी तिक्कन्न हो पयलो कवी. ताणें हो ग्रंथ मनुमसिध्दीक ओंपला. 'आंध्र महाभारत' ह्या नांवान बरयल्ली महाभारताचीं निमाणीं पंदरा वर्सां हीच ताची मुखेल आनी म्हत्वाची रचना. तिक्कन्ना आदीं म्हाकवी नन्नय्या हाणें महाभारताच्या वनपर्वाच्या पुर्वार्धामेरेन ग्रंथरचना केल्ली. तिक्कन्नान आंध्र महाभारताचीं चार ते अठरा हीं पंदरा पर्वां रचून नन्नय्याचें अपूर्ण महाभारत पुराय केलें. हे रचनेंतलीं पंदरा पर्वां ताणें बरयल्ल्यान त्या ग्रंथाचें पुराय श्रेय ताकाच मेळ्ळें. देखुनूच ताका 'आंध्रव्यास' म्हण्टात. तशेंच ताका 'कविब्रह्म' आनी 'उभयकविमित्र' अशींय नांवां ताका आसात.

तिक्कनाचें आंध्रमहाभारत म्हळ्यार व्यासाच्या महाभारताचो फकत तेलुगू अणकार न्हय. हे रचनेंत ताची स्वताची खाशेली अशी प्रतिभा पावला कणकणीं दिसता. ताणें आपले रचनेंत चड करून देशी छंदाचोच उपेग केला. मूळ ग्रंथांतलीं सामान्य उपाख्यानां ताणें घेवंकना. पूण वेदांताचें विवेचन मात संक्षेपान केलां. द्रोणाचें पांडवप्रेम, कर्णाची राजभक्ती, शकुनीचें धूर्तपण, अर्जुनाचो पराक्रम, अभिमन्यूचो व्यूहभेद आदी भाग उल्लेख करपासारके आसात. मंत्रीपदाचे आनी शिश्टायेचे अणभव आशिल्ल्यान कृष्णाचें वर्णन ताणें प्रभावीपणान केलां. जायतेकडेन मूळ ग्रंथापरसूय ताची रचना सरस आशिल्ल्यान तिक्कन्नाच्या महाभारताक तेलुगू साहित्यांत स्थान मेळ्ळां. रचनेंतलें नाट्य, मानवी सभ्य गिन्यान आनी भाशेंवयलें असामान्य प्रभुत्व हे तीन विशेश गूण ताच्या महाभारतांत दिसतात.

निर्वचनोत्तर रामायण आनी आंध्रमहाभारत हांचेभायर कविसार्वभौम छंद वा कविवाग्बंध, विजयसेन आनी कृष्णशतक ह्या ग्रंथांची रचना ताणें केली.

तिक्कन्नाच्या महाभारताचेरय ताचीं हातबरपां, भाश्यां, विवरणां आदी भरपूर साहित्य उपलब्ध आसा. के. व्ही. रामकोटीशास्त्री, बी. लक्ष्मीनारायणराव, सी. वीरभद्रराव आनी के. व्यासमूर्तीप्रभूतींचे तिक्कन्नावयले अभ्यासपूर्ण ग्रंथ उल्लेख करपासारके आसात. तिक्कन्नाच्या काळांतल्या आनी ताचे उपरांतच्या कवींचेर तिक्कन्नाचो खुबूच प्रभाव पडिल्लो दिसता. नन्नय्याचें अपूर्ण वनपर्व तिक्कन्ना उपरांत सुमार शंबर वर्सांनी एर्राप्रेगडान पुराय केलें. सुमार तीन वर्सांच्या काळांत आंध्रमहाभारत ग्रंथ तीन महाकवींचो हातभार लागून पुराय जालें. पूण तातूंतलो चडांत चड वांटो तिक्कन्नाचो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**तिखी :** (मराठी : दालचिनी, दारुचिनी; कन्नड : लवंगे हक्के; संस्कृत : तमालपत्र, गुडत्वक; इंग्लीश : सीलोन सिनॅमॉन, सिनॅमॉन ट्री; लॅटीन : सिनॅमोमम झेलॅनिकम; कूळ : लॉरेसी).

सदांच पाचवेंचार उरपी हें झाड ७-१० मी. ऊंच वाडटा. ताची उंचाय चडांत चड २० मी. लेगीत जावं येता. पानां १०-१८ सेंमी. लांब आसतात आनी तांकां भायलेवटेन तिकतीकसाण मारता. पानाक 'तमालपत्र' म्हण्टात. जानेवारी म्हयन्यांत झाडाक फुलां येतात आनी जुलय, ऑगस्ट म्हयन्यांत फळां तयार जातात. फळां जांबळांभाशेन आसतात.

हे वनस्पतीचो उगम श्रीलंकेंत जालो असो उल्लेख मेळटा. श्रीलंकेंत ह्या पिकाची लागवड व्हड प्रमाणांत जाता. तेभायर सेशॅल्स, ब्राझील, जामायका ह्या देशांनी तिखयेची लागवड करतात. भारतांत केरळ तशेंच कर्नाटक आनी महाराष्ट्र राज्याचे दर्यादेगेवयल्या वाठारांनी तिखयेची लागवड करतात. गोंयांत तिखयेची खासा अशी लागवड करिनात; भाटांनी आनी कुळागरांनी थोडींभोव झाडां लायिल्लीं दिसतात.

तिखयेचे दोन प्रकार आसात - रानांतली तिखी आनी रोवपाची तिखी. तिखयेच्यो खास अशो सुदारीत जाती विकसीत जावंक नात. खंयचेय जमनींत तिखयेचें पीक येवपाक शकता. रेंवट जमनींत थोड्या प्रमाणांत सेंद्रीय सारें भरसून तिखी लायल्यार तिखयेचें उत्पन्न बरें मेळटा. जमनीची प्रत आनी हवामान हांचेर तिखयेची प्रत अवलंबून आसता.

तिखयेची लागवड बियांपसून करतात. गुठी, कलम लावनूय तिखयेची लागवड करूं येता. फळां पिकतकच तातूंतल्यो बियो काडून सुकयतात आनी त्यो प्लास्टीकच्या पोतयांनी किल्लत घालतात. २-३ सप्तकांनी बियो किल्लून येतात. ४-१२ म्हयने पिरायेच्यो रोंपयो ६०×६०×६०सेंमी. लांब, रूंद आनी खोल ४×४ मी. अंतराचेर नेमां मारून लायतात. ह्या

पिकाक चड करून शेणखत, कंपोस्ट ह्यासारक्या साऱ्यांचो वापर करतात. हें पीक चड करून भाटांनी आनी कुळागरांनी मिश्रपीक म्हणून लायतात.

तिखयेच्या कांडाचे सालीक तिखी म्हण्टात आनी तिचो मसाल्यांत उपेग करतात. झाडाची उंचाय आनी कांडाची दाटसाण ३-५ सेंमी. जातकच झाड जमनीपसून ३० सेंमी. उंचायेचेर कापतात. ह्या कापिल्ल्या कांडाची साल काडून ती सुकयतात. ही साल उपरांत तिखी म्हणून वापरतात. झाड कापले उपरांत जो ३० सेंमी. भाग उरता त्या भागाक परत फुटवे येतात. हे फुटवे व्हड जातात. ह्या फुटव्यांपसून दोन - तीन वर्सांनी परत तिखी काडूंक मेळटा. तिखयेची साल काडपाचें काम ऑक्टोबर - नोव्हेंबर ह्या म्हयन्यांनी करतात. तिखयेचे सालीपसून आनी पानांपसून तेल काडटात. पानांतल्या तेलांत ७८ प्रतीशत युजॅनॉल जाल्यार सालींतल्या तेलांत ७०-८५ प्रतीशत सिनॅमिक आल्डिहायड आसता.

तिखयेचे सालीचो उपेग मसाल्याचे पदार्थ करपा वेळार करतात. तिखयेचीं पानां (तमालपत्र) पुलावाखातीर वापरतात. तिखयेची साल आनी पानां वेगवेगळीं तेलां आनी वखदां तयार करपाक वापरतात. शाबू आनी चॉकलेटी तयार करपाकूय ह्या तेलाचो वापर करतात.

तिखयेक रोग वा किडींची व्हडलीशी लागण जायना.

– विश्राम गांवकार

**तितर :** फेजिॲनिडी कुळांतलें एक सुकणें. हाका तितिर अशेंय म्हण्टात. ह्या सुकण्याच्यो तीन जाती भारतांत मेळटात, त्यो म्हळ्यार करडो, काळो आनी रंगीत. ह्या तीन जातींमदीं करड्या रंगाचो तितर भारतांतल्या सगळ्या वाठारांनी दिश्टी पडटा. पूण काळो तितर फकत उत्तर भारतांत आनी आसामांत मेळटा जाल्यार रंगीत तितर मलबार देग सोडल्यार पुराय दक्षिणेंत मेळटा. हाका लागून करड्या रंगाचो तितर म्हणजेच सर्वसादारण तितर अशें समीकरण जालां.

करड्या तितराचें शास्त्रीय नांव फ्रँकोलायनस पॉंडिसेरिॲनस. मेकळ्या आनी सुक्या वाठारांतल्या दाट तणांत वा कांट्यांच्या झोंपांनी तो रावता.



तो चडसो गांवगिऱ्या वाठारा लागसार वा शेताच्या लागसार दिश्टी पडटा. हें सादारण मध्यम आकाराचें कोंबये भशेन गुबगुबीत सुकणें. ताचे फाटीचो रंग करडो तपकिरी आसून ताचेर तांबशा रंगाची सया मारता. पोटा कडलो भाग हळदुवसार आसून ताचेर काळसार पुडी कोराच्यो, वांकड्यो-तिकड्यो ओळी आसतात. शेपडी मोटवी आनी काळसार तांबशा रंगाची आसता. गळो तांबूस हळदुवो आसून ताचे भोंवतणी अर्द वाटकुळो काळो बारीक पटो आसता. ताची चोंच काळी आनी पांय तांबशे आसतात. नर आनी मादी हांचेमदीं व्हडलोसो फरक आसना.

ताच्या प्रजननाचो काळ थरावीक आसता. झोंपांनी जमीन खणून ल्हानसो फोंड मारून तातूंत तण घालून मादी घोंटेर तयार करता. ह्या घोंटेरांत मादी ४-८ लेव हळदुवीं वा धवीं तांतयां घालता. ह्या पक्षाचे थवे आपलें भक्ष्य सोदीत भोंवत आसतात. भोंवता आसतना ते नाखटांनी जमीन खणून मातयेंत भक्ष्य सोदतात. धान्य, बीं, वाळटी, तोळ, मुयो आनी हेर किडे हें तांचें भक्ष्य. तांकां हटकिल्यार ते रोखडेच तणांनी वचून लिपतात. हें एकदम वेगान धांवपी आनी वेगान उडपी सुकणें. पूण तें चड लांब उडूंक शकना. जायत्या लोकांक ह्या सुकण्याचो आवाज आवडटा. देखून ताका पांजऱ्यांनी पोसतात. तेचपरी हें सुकणें झगडपी आशिल्ल्यान ताचीं झुजांय लायतात.

– कों. वि. सं. मं.

**तिबेट :** भारताचे उत्तरेकडलो एक देश. हो हिमालयाच्या उत्तर भागाचेर, मध्य आशियेच्या एका सड्याचेर वसला. प्राचीन भारतीय वाङ्मयांत ह्या देशाचो उल्लेख खूब खेपे आयला. महाभारतांत हाका 'उत्तरकुरू' जाल्यार आर्यविद्यासुधाकर ह्या ग्रंथांत ताका 'त्रिविष्टप' म्हळा. तिबेट हो त्रिविष्टपाचोच अपभ्रंश. ह्या देशाक किन्नर खंड, किंपुरूष खंड, स्वर्गभूमि अशीय हेर नांवां आसात. तिबेटांतले लोक आपल्या देशाक पो, बोद वा भोट अशें म्हण्टात आनी आपणाक बोदपा वा भोपा अशें म्हण्टात. तिबेटाचें तिबेटी नांव बोद, मोंगोलियन 'थुबेत', चीनी 'तुफान', थायी 'तिबेट' आनी अरबी 'तुब्बत'.

तिबेटाच्या सड्याची समुद्रसपाटेसावन उंचाय ४,२५० मीटर आसून, ताचें क्षेत्रफळ २० लाख चौ. किमी. आसा. तिबेटाचो चडसो भाग दोंगरावळींचो आसा. तिबेटाचो उदेंतेक चीन, अस्तंतेक काश्मीर, दक्षिणेक नेपाळ, भूतान आनी सिक्कीम आनी उत्तरेक चीनी तुर्कस्थान आसा. संवसारांतल्या चडशा म्हत्वाच्या न्हंयांचें उगमस्थान ह्या सड्याचेर आसा. सिंधु, सतलज, त्सांगपो (ब्रह्मपुत्रा), काली, गंधक, कोसी, इरावती, सॅल्वीन, मेकाँग, यांगत्सी आनी ह्वांग हो ह्यो न्हंयो ह्याच सड्याचेर सुरू जातात. तिबेटी लोक सिंधूक सेंग्गे खबाब म्हळ्यार शींव मुखोद्भूत, सतलजाक ग्लांगचेन खबाब म्हळ्यार गज मुखोद्भूत, शिमेलागसार भारतांत उगम पाविल्ले गंगेक र्माव्या म्हळ्यार मयूर मुखोद्भूत आनी ब्रह्मपुत्रेक र्‍तामचोग खबाब म्हळ्यार अश्व मुखोद्भूत म्हण्टात.

तिबेटाचो आग्नेय, दक्षिण आनी नैऋत्येवटेनचो सुमार अर्दो भाग म्हळ्यार चीनाचो तिबेट हो आयचो सित्सांग नांवाचो अस्तंतेकडलो स्वायत्त शीमविभाग. ताचें क्षेत्रफळ १२,२१,७०० चौ. किमी. आसून ताचो विस्तार सुमार २७° उत्तर ते ३७° उत्तर आनी ७८° उदेंत ते १०३° उदेंत इतलो जाता. ताचे उत्तरेक चीनाचो सिंक्यांग - ऊईगुर स्वायत्त विभाग, ईशान्येक चिंगहाई, उदेंतेक सेचवान प्रांत, आग्नेयेक युनान प्रांत आनी अस्तंतेक तशेंच दक्षिणेक भारत, नेपाळ, भूतान आनी ब्रह्मदेश हांच्यो शिमो आसात. भारताच्या जम्मू - काश्मीर, हिमाचल प्रदेश, उत्तर प्रदेश, सिक्कीम आनी अरुणाचल प्रदेश ह्या राज्यांच्यो शिमो तिबेटाक लागून आसात. १९५१ वर्सा पयलीं तिबेट हो स्वतंत्र देश आशिल्लो आनी ताचेर दलाय लामांची सत्ता आशिल्ली.

भुगोलीक नदरेन तिबेटाचे तीन मुखेल भाग जातात –

१) उत्तरेकडलो चांगटांग प्रदेश

२) दक्षिणेकडलें त्सांगपो देगण.

३) उदेंत आनी आग्नेय वटेनचो खाम विभाग.

उत्तरेकडलो चांगटांग वा ब्यांगथांग हो सरासरी ४,६०० मी. उंचायेचो पसरट आनी रूक्ष पठारी प्रदेश. ताचे उत्तरेक कुनलुन पर्वत आसून तातूंत उलूमुझ्ता हें ७,७२४ मीटर उंचायेचें तेमक आसा. ह्या सड्याचेर न्हंयो नात. पूण खाऱ्या उदकाचीं तळीं आसात. तातूंतलें 'नामत्सो' वा 'तेंग्रीनॉर' हें २,४७० चौ. किमी. हें मुखेल. कांयकडेन हून उदकाचेय झरे आसात. दक्षिण वाठारांत सिंधू न्हंयेचो उगम आसा आनी अस्तंत शिमेवयल्यान काश्मीरांतल्यान काराकोरम आनी लडाख श्रेणींचे फांटे आयल्यात. त्या भागांत गार्टोक हें शार आसा. तिबेटांत झिलिंग, यारब्रॉग्यू तशींच हेर कांय म्हत्वाचीं तळीं आसात. चांगटांग हो प्रदेश उदेंतेक ३,६०० मिटरांमेरेन देंवत गेला.

त्सांगपो देगण सगळ्यांत चड प्रगत आसून तातुंतूच ल्हासा ही राजधानी आनी शिगात्से, ग्यांगत्से हीं मुखेल शारां तशेंच मानस सरोवर आनी राक्षसताल हीं सरोवरां आसात. हाचे दक्षिण दिकेक हिमालयाची सगळ्यांत ऊंच रांक आसून तातूंत तिबेट, नेपाळ शिमेचेर जगांतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमक माऊंट एव्हरॅस्ट (८,८४७.६ मीटर) आनी हेर तेमकां ७,००० मी. परस चड उंचायेचीं आसात. ह्या देगणाचे अस्तंतेक सतलजाचें देगण आसा. त्सांगपो (ब्रह्मपुत्रा) हिचो मानस सरोवरा लागसार उगम जावन सुमार १,५०० किमी. उदेंतेक हिमालयाक समांतर व्हांवत वचून उपरांत ती दक्षिणेकडेन भारतांत देंवता. हें देगण सुमार ३,६०० मीटर उंचायेचेर आसा. हांगाची जमीन पिकावळीखातीर बरी आशिल्ल्यान त्सांगपो न्हंयेचो शिंपणावळीखातीर बरो उपेग जाता. तिबेटांतल्या लोकांची चडशी वसणूक ह्याच भागांत आसा. त्सांगपो देगणाचे उत्तरेक कैलास दोंगरावळ आसून भितर ६,७१४ मीटर उंचायेचें कैलास तेमक आसा. हें हिंदू तशेंच बौध्द धर्मीय पवित्र मानतात.

उदेंत आनी आग्नेयेवटेनच्या खाम विभागांत खम्पा लोक रावतात. हाच्या उत्तर भागाक चामडो म्हण्टात. थंय 'चामडो' हें शार आसा. ह्या प्रदेशांत देर्जे गांवांत लामांचो व्हड मठ आसा.

ऊंच दोंगरावळी, तातूंत देगणां, ऊंच सडे, न्हंयो तशेंच गोड आनी खाऱ्या उदकाचीं तळीं हीं तिबेटाचे भुयेचीं खाशेलपणां.

तिबेटांत मे ते सप्टेंबरमेरेन गीम आसता. हांगाचें तापमान ३२°सॅ. मेरेन वता. ऑक्टोबर ते एप्रिलमेरेन शिंयाळो आसून तेन्ना उण्यांत उणें तापमान -४४° सॅ. मेरेन देंवता. रातीचें गिमाच्या दिसांनी लेगीत उदक शेंकेता. भारतीय मॉन्सुनाक लागून त्सांगपो आनी खाम भागांत पावस पडटा. ल्हासाक १५७ सेंमी. पावस पडटा. आग्नेय भागांत तो ४०० सेंमी. मेरेन पडटा. चांगटांग भागांत पावसाचें प्रमाण २० सेंमी. परस उणें आसता. पूण थंय खूब थंडी आनी वारें मारता. ऊंच सुवातींनी बर्फूय पडटा. हिमालयांत हिमरेशा सुमार ४,८७५ मीटर आनी उत्तरेकडेन सुमार ६,१०० मीटर उंचायेचेर आसता. दक्षिण आनी आग्नेय भागांत हवा बरी सूखदिणी आसता. सरासरी पावस ४५ सेंमी. मेरेन पडटा.

सतलज देगण, चुंबी देगण आनी खाम विभागांत दाट रानां आसात. तशेंच दक्षिण आनी उदेंत ह्या दोंगराळ भागांत दाट रानां आसात. तातूंत विलो, प्लर, ज्युनिपर, यू, सायप्रस, पायन, बर्च, अक्रोड, फर, ओक, साग, कोंडो, एल्म, बाभूळ आनी तसलेच तरेचीं कांटयांचीं झाडां, च्याचीं झुडपां हे रूख; क्षुपे, नील पॉपी तशेंच हेर रानवटी फुलझाडां आनी मॅग्नोलिया कमळ, पॅन्सी, डेझी, गुलाब, ऑर्किड, ओलिएंडर, ऱ्हॅडोडॅड्रॉन, ॲस्टर हीं फुलझाडां खूब आसात.

उदकाम्हन्यांत जावपी तांबड्या फुलांचें ओंबू हें झाड आसा. ख्रेसपा ह्या भक्कम झाडापसून वाडग्या सारकिलीं आयदनां करतात. ग्लांगमा ह्या विलो जातीच्या झाडापसून पांटले विणटात. हांगा जनावरांय खूब आसात. याक, किआंग म्हळ्यार रानगाढव, रानरेडो, रानदुकर, रानमेंढरां, रानबोकड्यो, कुरंग, काळवीट, हरणां, कस्तुरी मृग, वांस्वेल, बिबटे, लांडगे, खोकड, तरस, वाघ, लांगूर, वानर, सायाळ, कोले, बीझल, मार्टिन, लिंक्स हीं जनावरां तशेंच सोरोप, विंचू, शेड्डो, सोंसो, घुशी हेय आसात. ट्राउट, कॅटफिश हें नुस्तें, बेबो, कुल्ली, कांसव आनी ऑटर हेय प्राणी हांगा मेळटात.

हांगाचे टॅरियर आनी तिबेटन मॅस्टिफ हे सुणे प्रसिध्द आसात. चड करून मॅस्टिफ हो रागीट आनी क्रूर सुणो शिकारेखातीर वापरतात. गरूड, गीद, घुघूम, रानकोंबयो, टार्मिगन, कोगूळ, महोका, मैना, रॉबिन, पारवे, ससाणो, डोमकावळो, चिमणी, कावळो, नायटिंगेल, गल, बकें बदक, हंस, शेल्डरॅक, सिनॅमनटील, सिंगण्या हीं सुकणीं आसात. ब्यालोंग हें बदकायेदें कुड्डें सुकणें तशेंच शेतांतलो मॉर्स डेन्स हें गोबराकोराचें ल्हान सुकणें आड्डून शेतांतले लावणेची सुलूस दिता.

**इतिहास** - क्रिस्ता पयलींच्या काळांतलो तिबेटाचो चडसो कांयच इतिहास मेळना. पूण तिबेटी दंतकथांवयल्यान तो थोडोसो समजता. इसवी सनापयलीं पयल्या शेंकड्यांत मगध देशाच्या एका राजपुत्रान तिबेटांत वचून आपलें राज्य स्थापलें आनी ताच्या ३२ वंशजांनी थंय राज्य केलें, अशी एक कथा आसा. कोसल देशाचो राजा प्रसेनजित हाचो एक वंशज तिबेटाचेर राज्य करतालो अशीय एक कथा तिबेटी ग्रंथांनी मेळटा. दुसऱ्या एका ग्रंथांत वत्स देशाचो राजा उदयन हाचो वंशज तिबेटाचेर राज्य करतालो असो उल्लेख आसा. दंतकथेप्रमाण तिबेटांतलो पयलो मनीस, माकड आनी राक्षीण हांच्या संकरांतल्यान निर्माण जालो. चीनी इतिवृत्तकार तिबेटांतल्या कांय हेडग्या टोळयांचो उल्लेख करतात. ह्या टोळयांक चिॲंग म्हण्टाले. इ. स. पयलीं २०० च्या अदमासाक तिबेटाचेर हे चिॲंग जमातीचें वर्चस्व आशिल्लें. तिणें चीनाचे ईशान्येकडले कांय मुलूख आपल्या ताब्यांत घेवन, बॉन नांवाचो सैमपुजेचेर आदारीत एक धर्म प्रसारांत हाडलो. हे लोक भुतांखेतांकूय मानताले. हे जमातीन आपल्या राज्याच्यो शिमो हिमालयाच्या मुळाकसावन कोकोनार सरोवरामेरेन वाडयल्यो. हातूंतलो एक 'पुग्याल' नांवाचो मनीस तिबेटाचो पयलो राजा आसुंये, अशें तिबेटी दंतकथा सांगतात. पूण बौध्द धर्माच्या इतिहासाप्रमाण न्यात्रीत्सेन पो (न्यात्रीसेनपो) होच इतिहासीक नदरेन पयलो राजा. तो भारतांतल्या मगध (बिहार) प्रदेशांतलो बा प्रसेनजित ह्या कोसल वंशीय घराण्यांतलो आसुंये, अशें एक मत आसा. ताच्या काळांत खूब सुदारणा जाल्यो. उपरांत इ. स. च्या चवथ्या शेंकड्यांत तिबेट हें एक सत्तासंपन्न राष्ट्र जालें. हातूंतल्या पयल्या सत्तावीस राजांचे कारकिर्दीविशीं चडशी म्हायती मेळना. पूण अठ्ठाविसाव्या राजा वेळार तिबेटांत बौध्द धर्मग्रंथ आयले आनी तेन्नासावन थंय बौध्द धर्माचो प्रसार जालो. बत्तिसावो राजा सॉंगत्सेन गाम्पो, हाणें राज्याचो विस्तार केलो आनी बौध्द धर्माच्या अध्ययनाखातीर आपल्या एक मंत्र्याक हिंदुस्थानांत धाडलो. ताच्याच काळांत तिबेटांत बौध्दमठ, जोखांगाचें

नामनेचें देवूळ आनी पोताला राजवाडो हांच्या बांदकामाक सुरवात जाली. ताणें चीनाचेर घुरी घाली आनी थंयचे राजकन्येवांगडा तो लग्न जालो. तशेंच, नेपाळी राजकन्येकडेनूय तो लग्न जाल्लो. चीनी राजकन्येन आपले वांगडा बुध्दाच्यो मुर्ती हाडल्यो आनी देवळां बांदलीं. ह्याच राजान ल्हासा नगर वसयलें. काश्मिराचो राजा ललितादित्य हाणें तिबेटाचेर स्वारी करून अस्तंत तिबेटाचो लडाखासयत बरोचसो भाग आपल्या राज्याक जोडलो. त्यावेळार काश्मिरांतल्यान बरेचशे बौध्द पंडीत धर्मप्रचाराखातीर तिबेटांत गेले. उपरांतच्या २०० वर्सांनी तिबेटांत खूबशे पराक्रमी राजा जावन गेले. चीनावांगडा तांचीं सदांच झगडीं चालूच आशिल्लीं. इ. स. च्या ११ व्या शेंकड्यांत भारतीय बौध्द पंडितांनी तिबेटाचेर आपलें धर्मीक वर्चस्व स्थापलें. इ. स. १२५० च्या अदमासाक चीनाच्या कुबलायखानान उदेंत तिबेट घेतलें. पूण उपरांत ताणें बौध्द धर्माची दीक्षा घेतली आनी सगळ्या तिबेटाचेर शाक्य वंशांतल्या बौध्द भिक्षूंची सत्ता मान्य केली. इ. स. १३४५ मेरेन आपलें वर्चस्व तिगयलें. पूण उपरांत तिबेटी धर्मगुरूंनी थंयची राजकीय सत्ता आपल्या हातांत घेतली.

पंदराव्या शेंकड्यांत तिबेटाचेर परतून मोंगोलियाचें वर्चस्व प्रस्थापीत जालें. मोंगोलियाचो एक राजपूत आल्तनखान हाणें सोनाम ग्यात्सो ह्या लामाक 'ता' वा 'दलाई' हो किताब दिलो. मंगोलियन भाशेंत 'गिन्यानाचो म्हासागर' असो ह्या शब्दाचो अर्थ जाता. गुस्त्रीखान ह्या मंगोल सेनापतीन १६४२ वर्सा तिबेटाचेर पुराय स्वामित्व प्रस्थापीत करून दलाई लामाक धर्ममुखेल म्हणून मान्यताय दिली. चीनाच्या मंगोल आनी मांचू वंशीय राजांनी बौध्द धर्म आपणायलो. ते दलाई लामाक आपलो धर्मगुरू मानताले. ते उपरांतचे कितलेशेच दलाई लामा अल्पायुषी थारले. निमाणें इ. स. १७१८ वर्सा चीनान स्वताचे पसंतीच्या दलाई लामाक गादयेर बसोवन चीनी अंबन लोकांची ताच्या कारभाराचेर नियंत्रण दवरपाखातीर नेमणूक केली. इ. स. १७५० वर्सा तिबेटी लोक आनी चीनी अंबन हांचो व्हड संग्राम जालो. ह्या वेळार चीनाच्या सम्राटान सैन्य धाडून तिबेटाचेर आपली सत्ता घट केली. इ. स. १७९२ वर्सा नेपाळी गुरखा सैन्यान तिबेटाचेर घुरी घाली त्या वेळार चीनाच्या सैन्यानूच तिबेटाची राखण केली. तेमेरेन इस्ट इंडिया कंपनीन तिबेटाकडेन व्हड वेपार सुरू केल्लो. पूण इंग्लिशांचे उर्बेनूच नेपाळान तिबेटाचेर स्वारी केली, हे समजुतीन तिबेटान हिंदुस्थानाकडले आपले सगळे वेव्हार बंद केले. उपरांत जम्मूचो राजा गुलाबसिंग हाचो सेनापती झोरावरसिंग हाणें इ. स. १८४१ वर्सा तिबेटाचेर स्वारी करून थंयचे खूबशे किल्ले जिखले. इंग्लीश सरकारान तिबेटाकडेन वेपारी संबंद दवरपाखातीर खूब यत्न केले. पूण लामांनी ताका कांयच प्रतिसाद दिलोना. निमाणें हिंदुस्थानाचो व्हायसरॉय लॉर्ड कर्झन हाणें इ. स. १९०३ वर्सा वेपारी आनी लश्करी अशें एक मिशन तिबेटांत धाडलें. पूण लामा सरकारान ताचीय दखल घेतलीना. तेन्ना मिशनान सरळ ल्हासाचेर चाल केली. दलाई लामा भियेवन चीनांत पळून गेलो. उपरांत ब्रिटिशांनी लामाच्या अधिकाऱ्यांक आपल्याक जाय तशी कबलात करपाक लायली. पूण रशिया आनी चीन हांकां हें मानवलेंना. तेखातीर हे कबलातीची अंमलबजावणी केन्नाच जालिना. उरफाटें, इ. स. १९०६ वर्सा भारत सरकारान चीनाकडेन एक कबलात करून तिबेटाचेर चीनाची सत्ता मान्य केली. उपरांत इ. स. १९०९ वर्सा दलाई लामा ल्हासाक परतून आयलो. इ. स. १९१० वर्सा चीनान व्हड सैन्य धाडून तिबेटाचेर आपली सत्ता प्रस्थापीत केली तेन्ना दलाई लामा थंयसावन पळून भारतांत आयलो आनी दोन वर्सां रावलो. इतले मजगतीं, म्हळ्यार १९१२ वर्सा तिबेटी लोकांनी चीनी लोकांक हारोवन तांकां धांवडावन घाले. पूण तिबेटाचो उदेंत भाग आशिल्लो खाम हो प्रदेश मात चीनान सोडलोना. जून १९१२त दलाई लामा ल्हासाक परतलो आनी ताणें स्वातंत्र्याची घोशणा केली. इ. स. १९१४ वर्सा सिमलाक भारत, चीन आनी तिबेट हांचे शिमेविशीं एक कबलात जाली. तातूंत तिबेट आनी भारत ह्या देशांमदली शीम थरयली. हिकाच 'मॅकमोहन' ह्या नांवान वळखतात. हे कबलातीचेर चीनाच्या प्रतिनिधीची सय आसून लेगीत चीनाच्या सरकारान उपरांत ती कबलात न्हयकारली. तेउपरांत, तिबेट बळकावपाचे चीनान खूब यत्न केले. पूण ताचो कांयच उपेग जालोना. इ. स. १९३३ वर्सा १३ वो दलाई लामा मरतकच १९४० वर्सा एका पांच वर्सांच्या भुरग्याक दलाई लामा म्हणून गादयेर बसयलो. ताचें राज्य इ. स. १९५० मेरेन चालूच अशिल्लें. इ. स. १९४९त चीनाचेर साम्यवादी पक्षाची सत्ता प्रस्थापीत जाली आनी त्या सरकारान तिबेटूय आपल्या चपक्यांत घेवपाचें थरयलें. ऑक्टोबर १९५०त चीनी सैन्यान तिबेटाचेर आक्रमण सुरू केलें आनी एका वर्साभितर चीनान पुराय तिबेट बळकावन थंय आपली सत्ता स्थापन केली आनी तिबेटी सरकाराक एक १७ कलमी करार मान्य करपाक लायलो. त्या करारांत तिबेटाक अंतर्गत स्वायत्तताय आनी धर्मीक स्वतंत्रताय दिल्ली. तशेंच चीनान, तिबेटांत कांय सुदारणाय घडोवन हाडल्यो. हे नवे राजवटींत तिबेटांतली संस्कृताय, वंश, धर्म आनी तांचे अनुयायी हांचेर हावळ आयली. १९५६ वर्सा तिबेटाच्या स्वायत्त राज्यकारभाराविशीं पूर्वतयारी करपाखातीर चीनान एक समिती नेमली. तिचो मुखेल म्हणून दलाई लामाची नेमणूक जाली. चीनी लश्कराचे हालचालीचे नदरेन बरेचशे मार्ग बांदले. तिबेटी जनतेन ह्या चीनी वर्चस्वाक खूब विरोध केलो. ह्या उठावाक १९५८ वर्सा खर रूप आयलें. कितल्याश्याच तिबेटी तरणाट्यांक चीनांत व्हेले आनी चीनी सैनीक तिबेटांत घुसले. निमाणें ल्हासा हे राजधानींतूच बंडाचो उठाव जालो. चीनी सरकारान दलाई लामाक अटक करपाचो यत्न केलो तेन्ना तो आपल्या कांय अनुयायांसयत १७ मार्च, १९५९ दिसा भारताच्या आलाशिऱ्याक आयलो. ताका लागून चीनान तिबेटी सरकार बरखास्त केलें आनी एक स्वतंत्र समिती स्थापन करून तिणें अध्यक्षपद पंचेन लामाक दिलें. तिबेटांत चीनी लस्करी हुकूमशाय येतकच तांणी मठाची सत्ता नश्ट करून खाजगी मालमत्ता जप्त केली. लश्करी भरती सक्तीची करून, भायल्या राश्ट्रांकडेन आशिल्लो संपर्क पुराय तोडून उडयलो. खंयच्याच परकी मनशाक तिबेटांत वचपाक बंदी घाली आनी सक्तीचें काम आनी शेतकाम हांचेर भर दिलो. १९६१-६२ वर्सा तिबेटांत दुकळ पडलो. खूबशे तिबेटी लोक भारतांत आयले. भारतान दलाई लामाक राजकीय आलाशिरो दिलो म्हणून चीन-भारत संबंद इबाडले आनी उपरांत १९६२ वर्सा चीनान भारताचेर आक्रमण केलें. १९६६-६७ वर्सा चीनांत संस्कृतीक क्रांतीक सुरवात जाली. तिबेट हो चीनाचो एक स्वायत्त भाग अशें जाहीर करून चीनान १९६९-७१ ह्या काळांत एक स्वतंत्र स्थानिक स्वराज्य समितीची स्थापणूक केली.

**राजकीय स्थिती** - तेराव्या शेंकड्यामेरेन तिबेटांत राजेशाय आशिल्ली. पूण उपरांत थंय पारंपारिक शासनवेवस्था आयली. पूण १९५९ वर्सा चवदावो दलाई लामा हद्दपार जावन भारतांत आयलो आनी चीनाचो

तिबेटावयलो शेक सुरू जालो. उपरांत तिबेट हो चीनाचोच एक स्वायत्त विभाग मानून ताची वेगळी प्रशासनवेवस्था निर्माण जाली. परंपरेप्रमाण सत्ताधारी दलाई लामाक मरण येतकच दुसऱ्या दलाई लामाक वेंचून काडटाले. तो अज्ञान आसत जाल्यार ताचेवतीन व्हड लामांतलो एक लामा रिजंट म्हणून सगळ्या देशाचो कारभार पळयतालो. सज्ञान जातकच दलाई लामा राज्यकारभार चलोवपाखातीर दोन प्रधानमंत्र्यांची नेमणूक करतालो. हातूंतलो एक धर्मगुरु आनी दुसरो सामान्य प्रशासक आसतालो. तांकां सिलॉन म्हण्टात. प्रधानमंत्र्यांच्या आदाराक चार जाणांचें एक मंत्रीमंडळ आसतालें. ताका 'कशाग' म्हण्टात. दीसपट्ट्या कारभाराखातीर सचिवालय आसतालें आनी सचिवांवतीन सगळी प्रशासन वेवस्था चलताली. धर्मीक वेव्हारांखातीर 'यिगत्सांग' नांवाचें एक स्वतंत्र मंडळ आसतालें. दोन राश्ट्रीय सभांतल्या 'त्सोंग्दू' हे एके सभेंत सुमार ३५० वांगडी आसताले आनी दुसरे सभेंत, पयले सभेंतल्यान वेंचून काडिल्ले ६० वांगडी आसताले. मंत्रीमंडळांतले चार मंत्री सगळ्या विशयांची मांडणी करून, कायद्याचो मसुदो तयार करताले आनी उपरांत संमतीखातीर दलाई लामाकडेन दिताले. तशेंच, आनीक दोन शासकीय मंडळां आशिल्लीं. तातूंतलें एक मंडळ सगळे धर्मीक वेव्हार आनी मठांची वेवस्था पळयतालें आनी दुसरे मंडळ नागरी प्रशासन वेवस्था पळयतालें. ह्या मंडळांक अनुक्रमान 'द्रुंग - यिग चेनमो' आनी 'त्सेपॉन' म्हण्टाले. खूबदां राजकीय म्हत्वाच्या घडामोडींचेर हांच्यो संयुक्त बसका जाताल्यो.

मुखेल पुरयत आनी चार लामांचें एक मंडळ धर्मीक बाबींची सगळी वेवस्था आनी कारभार पळयतालें. मुखेल पुरयत दलाई लामाच्या खाजगी खजिन्याचो मुखेल आसतालो. तिबेटांत न्यायालय संस्था नाशिल्लीच. खंयचोय खटलो खंयच्याय अधिकाऱ्याकडेन दिताले. म्हत्वाचो वाद खंयचेय समितीकडे दिवप जातालें.

१९६५ वर्सासावन तिबेट हो चीनाचोय एक स्वायत्त विभाग मानून ताचो कारभार एके क्रांतिकारी समितीवतीन चलता. स्थानिक कम्युनिस्ट पक्षाचो फुडारी आनी तिबेटाचो मुखेल लश्करी अधिकारी हे समितीचो मुखेल अधिकारी आसता. ल्हासा नगरपालिका मर्यादा (शिर) आनी पांच खाशेले जिल्हे (च्यूॲनच्यू), ताचे परतून सत्तर उपविभाग (स्यन) केल्ले आसात.

**अर्थीक स्थिती** - शेती आनी पशुपालन हे हांगाचे मुखेल वेवसाय. याक, मेंढरां, घोडे आनी खेचरां, दोन मदारींचे ऊंट हे प्राणी पोसतात. म्हाल येरादारीक खेचर, याक आनी ऊंट हे प्राणी म्हत्वाचे आसात. मास, दूद, लोणी, केंस, कातडी आनी शेण हांचे विंगड विंगड उपेग जातात. सिंधू, सतलज, त्सांगपो हांच्या आनी उदेंतकडल्या खाम प्रदेशाच्या देगणांनी शेती जाता. कांय खेपे वर्सातल्यान दोन दोन पिकां घेतात. जव, सातू, राय, बकव्हीट, भरड धान्यां, घेवडो, अंबाडी, सांसवां हीं मुखेल पिकां आसात. तशेंच भाजीपालो, गाजर, बटाट, वाटाणे, कोबी, मुळो, कांदो, लसूण, सलगम, टमाट, सॉलीट, सॅलरी, चिबूड, मींट, एगप्लँट हांचें उत्पन्न येता. आग्नेय वाठारांत थोडें भात पिकता. च्या, साकर आनी तांदूळ हे पदार्थ आयात करचे पडटात. फळांच्या उत्पादनांत पीच, अक्रोड, सफरचंद, जरदाळू, केळीं हीं मुखेल फळां आसात.

'त्सांबा' हें ह्या लोकांचें मुखेल अन्न. जवाच्या लाहीपिठांत च्या आनी लोणी तशेंच तूप, चीज, दूद, तरातरांच्यो भाजयो, फळां आनी कंद घालून हें तयार करतात. 'त्सांबा' वांगडा याक, बोकड्यो, मेंढरां, दुकरां आनी कोंबयांच्या मासाचोय तांच्या अन्नांत आस्पाव जाता. खूब उणे लोक तांदूळ वापरतात.

च्या आनी बार्लीपसून केल्लें 'चांग' हें मद्य तांचें मुखेल पेय. विणप, रंगोवप, मुर्तीकाम, धातूकाम, गालीचे विणप, कातडी कमोवप, आयदनां तयार करप, भांगरा-रुप्याची कारागिरी, थवयकाम, शिवणकाम, उजवाती तयार करप हे हांगाचे पोरणे वेवसाय. ल्हासाक जलविद्युत् केंद्र आनी शिगात्सेक विद्युत् केंद्र आसा.

आतां तिबेटांत चीनी चलन चालू आसा आनी चीनाकडेनूच वेपार चलता. १९५४ वर्सा ल्हासा ते सेचवान हो २,८८० किमी. लांबायेचो म्हामार्ग पुराय जाला. तशेंच, चिंगहाईकडेन वचपी म्हामार्ग आनी हेर मोटार मार्ग तयार जाल्यात. कोकोनार देगणांतल्यान चिंगहाई प्रांताकडेन, मानस सरोवर मार्गान सिंधूच्या देगणाकडेन आनी चुंबी देगणांतल्यान जेलपला आनी नथुला खिंडीवटेन सिक्कीमाकडेन वचपीय मार्ग आसात. १९५६ वर्सासावन ल्हासा - पीकिंग विमानमार्ग सुरू जालो. चिंगहाई प्रांतांतलीं जंगजोकडेन विमानां वतात. चामडो, शिगात्से, डिंग्री आनी गार्टोक हांगा लश्करी विमानतळ जाल्यात.

१९५९ वर्सा सुमार ८५,००० लोकांनी दलाई लामावांगडा भारतांत आनी नेपाळांत स्थलांतर केलें. थंयचे लोक मंगोलियन वंशाचे आसून अस्तंत वाठारांतले लोक मोटवे आनी उदेंत भागांतले लांब आसात. कांय तिबेटी लोक भूतान, नेपाळ, सिक्कीम तशेंच गढवाल, कुलू, लाहूल - स्पिती आनी लडाख भागांनी आसात.

चीनी सत्तेपयलीं तिबेटी समाजाचे लामा म्हळ्यार धर्मगुरू, उच्चवर्णीय सरदार आनी शेतकार भौजनवर्ग अशे तीन मुखेल भाग आशिल्ले. लामा वा धर्मगुरू जावप हें भोवमानाचें मानताले. ल्हासांत अर्दे लोक धर्मगुरू आशिल्ले. धर्मगुरू ब्रह्मचारी आसतात.

हेडगे मेंढपाळ, याकाच्या केंसांच्या तंबूंनी रावतात. सामान्य लोकांचीं घरां मातयेचीं आसतात. घरांक जनेलांबदला ल्हान बुराक दवरून तांचेर तेलकट कागद दसयतात. गिरेस्तांच्या घरांभोंवतणीं दुरीग आसता तशेंच चडशीं घरां २ वा ३ मजली आसतात. बायलो खाशेले पद्दतीचें शिरस्त्राण वापरतात. शेतकामती लोक मेंढराच्या कातड्याचे कपडे वापरतात, गिरेस्त लोक रस्मी कपडे वापरतात.

तिबेटी लोकांचे कुटूंबसंस्थेंत एकपत्नीत्व आनी एकपतित्व आसलें तरी बहुपतित्व आनी बहुपत्नीत्व ह्यो दोन पद्दतीय कांयकडेन मान्य आसल्यो. मालमत्तेचे हक्क सांबाळप म्हत्वाचें मानप जातालें. तेखातीर कांय खेपे बापूय आनी पूत एकेच बायलेकडेन लग्न जाताले. चलो नाशिल्ल्या घरांतल्यो सगळ्यो भयणी एकाच दादल्यावांगडा लग्न जाताल्यो वा व्हडल्या भावाची बायल ही आपसुकूच हेर भावांची बायल जाताली.

समाजांतलो लामा आनी एक ज्योतिशी खंयचेंय लग्न येसस्वी जातलें वा ना हें थारायताले. लग्नाचो करार जावन तो अधिकृत रितीन मान्य जातकच न्हवऱ्याच्या घराचेर व्हंकलेचे लोक प्रार्थनेचें निशाण बांदताले. अशें केल्ल्यान व्हंककेचो नव्या घरांतलो समान हक्क प्रस्थापीत जातालो.

तिबेटी लोकांचें मडें न्हंयेंत सोडून दिताले. जमल्यार ताचें दहन करताले. पूण पूज्य लामांचे देह सांबाळून दवरताले. पूण चडशा लोकांचीं मडीं पारशी लोकांभाशेन गिदांचे सुवादीन करताले. अशा सुवातींक 'जो - तोर' म्हण्टाले.

पयलींच्या काळांत फकत लामांक आनी उंचेल्या वर्गाकूच शिक्षण

घेवपाक मेळटालें. लामा जावपी भुरग्यांक पिरायेच्या सातव्या वर्साचेर मठांत व्हरताले. १९५९ वर्सा उपरांत चीनी सरकारान हेरांखातीर शिक्षणाची सुविधा निर्माण केली. १९५९ वर्सा चडशे सगळे मठ बंद केले. तातूंतले कांय मठ १९७२ वर्सा परतून सुरू केले. तशोच शाळाय सुरू केल्यो.

तिबेटी जिणेंत भारतीय आनी चीनी संस्कृतायेचो मेळ दिश्टी पडटा. थंयच्या चित्रांनी आनी शिल्पांनी बुध्दप्रतिमा चड प्रमाणांत दिसतात. मठनिर्मितींत आनी बुध्दमंदिरांनी भारतीय कलेचो विकास दिसता. ल्हासाचे शिमेचेर गान-डेन, से-रा आनी ड्रे-पुंग हे तीन व्हड मठ प्रसिध्द आसात. सगळ्या वास्तुशिल्पांभितर 'पोताला' ह्या दलाई लामा निवासाचें शिल्प चड मन भुलोवणें आसून संवसारीक वास्तुशिल्पांभितर ही एक लक्षणीय वास्तू आसा. धोल, घांट, तुतात्र्यो आनी बॅग पायप हीं तांची मुखेल वाद्यां. खाशेल्या प्रसंगाचेर म्हळ्यार स्वागत, लग्न, मरण अशा वेळांचेर पावित्र्याचें प्रतीक म्हणून लोकरीचो धवो गळ्यापटो दितात. बऱ्या भाग्याचें लक्षण म्हणून घराच्या पाख्याचेर, तंबूचेर, दोंगराचेर प्रार्थनाध्वज बांदतात. नाट्य आनी संगीत हातूंतल्यान पुर्विल्ल्यो दंतकथा, इतिहासीक घडणुकांचें दर्शन जाता. उत्सवा वेळार लोकांगितां, लोकनाट्य खूब दीस चलता. वर्साचे सुर्वेक तशेंच बुध्दाचें जिणेवयले प्रसंग हांचेर उत्सव आदारिल्ले आसतात. देवतांचीं विंगड विंगड रुपां तशेंच हावभाव दाखोवपी गार आनी चाम हे लामांचे नाचाचे प्रकार आसात. धर्मश्रध्देवांगडा हे लोक शकून, अपशकून, भुतांखेतां आनी हेर भ्रामक समजुतींचेर तांचो भावार्थ आसा.

बौध्द धर्मापयलीं तिबेटांत बॉन हो आदीम धर्म आशिल्लो. सद्याच्या काळांत, थंय चडशे लोक महायान बौध्दधर्मी आसात. इकराव्या शेंकड्यांत भारतीय पंडीत 'आतिष' हाणें तिबेटी बौध्द धर्मांत खूब बदल सुचयले. हांगा धर्मगुरूक लामा म्हण्टात. दलाई लामा हो धर्ममुखेल आशिल्लो. हाका बुध्दाचो वा अवलोकितेश्वराचो अवतार मानताले.

तिबेटी भाशेचें ब्रह्मी भाशेकडेन खूब सारकेपण आसून ती इंडो - चीन समुहांतली एकाक्षरी आनी स्वराधिष्ठित आसा. मुळाक्षरां सातव्या शेंकड्यांत संस्कृतावयल्यान घेतल्यांत. १९६० वर्सासावन तिबेटाचेर चीनी भास लादल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**तिबेटी रामायण :** तिबेटी भाशेंतलें रामायण. भारताभायर रामकथा पातळावपाचें काम बौध्दांनी केल्लें. तिबेटांत इ. स. आठव्या आनी णवव्या शतमानांतल्यो रामायणाच्यो जायत्यो हातबरपांच्यो प्रती मेळ्ळ्यात. वाल्मिकी रामायणापरस तिबेटी रामायणाची कथा वेगळी आसा. तातूंत सीता ही रावणाचे पट्टराणयेची धूव आसून तिची जल्मपत्रिका बापायक अशूभ आशिल्ल्यान तिका दर्यांत उडयली अशें सांगलां. तशेंच दशरथाक दोनूच राणयो आशिल्ल्यो. तातूंतले धाकटे राणयेच्या पोटांत स्वता विष्णुन जल्म घेतलो आनी ताका रामन अशें नांव मेळ्ळें. व्हडले राणयेच्या पोटांत विष्णु पुतान जल्म घेतलो आनी ताका लक्ष्मण अशें म्हणूंक लागले. ह्या दोन पुतांमदीं कोणाक राज्य दिवंचें असो दशरथाक प्रस्न पडलो. रामान लक्ष्मणाक राज्य दिवंक लायलें आनी तो तप करूंक रानांत गेलो. दर्यांतल्यान वयर काडिल्ली सीता वा लिलावती नांवाची एक चली थंयच्या शेतकामत्यांनी रामाक दिली आनी तिचेकडेन लग्न जावपाक विनयलें. राम तिचेकडेन लग्न जालो आनी उपरांत तिका घेवन अयोध्येंत वचून आपलें राज्य केलें. ह्या रामायणांतलो रावण सीतेचें हरण करता, पूण तिच्या आंगाक स्पर्श करिना. उपरांत रामालो सीतेचो सोद, वानरांकडेन इश्टागत आदी रावण वधा मेरेनच्यो घडणुको वाल्मिकीवरीच वर्णन केल्ल्यो आसात. ह्या रामायणांत रावणाचो आखाणो हें ताचें मर्मस्थान आशिल्ल्याचें सांगलां. फुडें रजकाचें उलोवणें आयकून राम सीतेचो त्याग करता. पूण ताचे आदींच सीता बाळंत जावन तिगेर लव - कुशाचो जल्म जाता अशें सांगलां. ह्या तिबेटी रामायणाचेर गुणभद्राचें उत्तर पुराण आनी बृहत्कथा हांचो खुबसो प्रभाव दिश्टी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**तिबो :** कुकूम, गंध, बुको, काजळा सारकिल्लें कपलार केल्लें आभुशण. भारताचे संस्कृतीक परंपरेंत तिब्याक खुबूच म्हत्व आसा. पुजा संस्कार आनी मंगलकार्यां आदी सुवाळ्यां वेळार येजमानाच्या कपलार कुकमाचो तिबो लावन ताचेर अक्षता दसयतात. धर्मीक कार्याचे सुरवातेक आनी कार्य सोंपतकच निरोप घेतना पुरयत येजमानाच्या कपलार तिबो लायता. भाऊबिजे दिसा भयण भावाच्या कपलाक तिबो लायता आनी ताका उंवाळटा. सोबायेखातीरय कपलाचेर तिबो लावपाची चाल आसा. जादूविद्येंत वशीकरणाखातीर विशिश्ट द्रव्याचो तिबो लायतात. पुजेवेळार देवाक चंदनाचो, केशराचो वा कुकमाचो तिबो लायतात. आदल्या तेंपार गोरोचन, हरताळ आनी मनशीळ आदी द्रव्यांचो तिबो लावपाची चाल आशिल्ली. शैव आनी वैश्णव संप्रदायांतले लोक संप्रदाय चिन्न म्हणून विशिश्ट तरेचो तिबो लायताले. हे तिबे कस्तुरी, कुकूम, चंदन, गंगेंतली माती, तुळशीच्या मुळांतली माती, साधूच्या पांयांपोंदची माती, गोपीचंदन, तुळशीकाश्ठ, गोरोचन, रोयणीची माती आदी द्रव्यांचे आसताले. शरिराचेर बारा जाग्यांचेर हो तिबो लावपाचो आसता. श्राध्द, यज्ञ, जप, होम, वैश्वदेव आनी देवपुजा आदी कामां करता आसतना सुरवातेक भस्म लावन घेवंचें आनी देवाची पुजा आनी म्हानिवेद्य जातकच उपरांत चंदनाचो तिबो लावप अशें सांगलां. पंथाप्रमाण तिब्याचे आकार आनी रंग थारतात. शैवपंथी आडवो जाल्यार शाक्तपंथी वाटकुळो तिबो लायतात. वैश्णव, कबीरपंथी लोक उबो जाल्यार कांय जाण चंद्राकृती, सुर्याकृती, नागाकृती अशे आपआपल्या पंथांचे, घराण्यांचे संदर्भ धरून तिबे लायतात. ल्हान भुरग्यांक कोणाची नदर लागची न्हय म्हणून काजळाचो तिबो (तीट) लावपाची चाल आसा.

**कुकूम :** एक सौभाग्यचिन्न, सौंदर्यप्रसाधन आनी पुजेविधींतलो एक गरजेचोच मंगल पदार्थ. होय तिब्याचोच एक प्रकार. चड करून हिंदू कुमारिका आनी सौभाग्यवती बायलो कुकमाचो वापर करतात. कुकूम कपलाचेर तशेंच केसांच्या भांगामदीं घालपाची चाल आसा. कुकूम ह्या संस्कृत शब्दावयल्यान कुकूम हो शब्द आयला. मूळ शब्दाचो अर्थ 'केशर' असो आसा. कुकूम लावपाची चाल केन्ना सुरू जाली हाचेविशीं सारकी म्हायती मेळना. पूण पोरण्या साहित्यांत ती चाल महाभारतांत अस्तित्वांत आशिल्ली असो उल्लेख मेळटा.

कांय जाणांच्या मतान ही चाल आर्यांची, जाल्यार कांय लोक आर्यांनी ही चाल हेरां कडल्यान घेतली अशें मानतात. कांय लोक हे चालीचो

संबंद पशुबळीकडेन लायतात. पशूक मारून ताच्या रगताचो तिबो नवे व्हंकलेक लावन घरांत प्रवेश करपाची चाल एका वेळार दक्षिणेंतल्या लोकांमदीं आशिल्ली. हे प्रथेचें रुपांतर कालांतरान कुकूम लावपाचे प्रथेंत जालें आसूं येता.

सातव्या - आठव्या शतमाना उपरांतच्या साहित्यांत कुकमाचे उल्लेख व्हड प्रमाणांत मेळटात. तंत्र साहित्यांत कुकमाच्या तिब्याक खुबूच म्हत्व दिलां. हिंदू धर्मांत आनी हिंदू संस्कृतायेंत कुकमाक सौभाग्यचिन्न म्हणून सुमाराभायर म्हत्व आसा. हिंदू बायलो ताका सौभाग्य लेणें मानतात. देवपुजा, लग्नसुवाळो, मूज आदी विधींनी कुकमाचो वापर म्हत्वाचो आनी मंगलकारक मानला. मंगलकार्या वेळार वा देवपुजेवेळार जोंधळ्यांक वा तांदळांक कुकूम लावन अक्षता तयार करतात. नवे वस्तूक कुकूम घालून उपरांत ती वापरतात. आदल्या तेंपार व्हांवळीक-पत्रिकेक कुकूम लावपाची चाल आशिल्ली. तेचपरी घरांत आयिल्ले सवायशीण बायलेक ती भायर वचच्या वेळार, ती आनी घरची सवायशीण बायल कुकमाची देवाणघेवाण करतात. न्हवऱ्या - व्हंकलेक कुकूम लावपाची चाल पारशी लोकांमदींय आसा. हिंदू धर्मांत घोव मेल्यार, ताचे अंतिमक्रिये वेळार ताचे बायलेच्या कपलावयलो कुकमाचो तिबो बळयां पुसतात. विधवा बायलेक तिबो लावपाचो अधिकार उरना म्हणून कपलाची सोबा सांबाळपाखातीर, ती हय - न्हयशी बारीक काळी तिकली लायता. कांय विधवा बायलो कपलार पाडून घेतात. आतांच्या आधुनीक काळांत विधवा बायलो कुकमाचो तिबो लायतात.

वेगवेगळ्या वाठारांनी आनी समाजांनी कुकूम लावपाच्यो वेगवेगळ्यो पद्दती रूढ आसात. तेचपरी आवडीप्रमाण कुकमाच्या आकारांनी वेगवेगळे प्रकार दिसतात. सादी तिकली, अर्दचंद्राकृती आकार, आडवी चिरी, उबी चिरी, चंद्रबिंबावरी वाटकुळो कुकूम अशे तरेकवार प्रकार आसात.



सुको कुकूम (पिंजर) आनी ओलो कुकूम (वासाचें गंध) अशे कुकमाचे दोन प्रकार आसात. हळदीचेर क्षार वा आम्ल हांची रसायनीक प्रक्रिया करून कुकूम तयार करतात. विरल (dilute) सल्फ्युरीक आम्लांत हळदीकुटां भिजत दवरल्यार तांबडो रंग येता. तातूंत पापडखार आनी टाकणखार भरशिल्यार गाड तांबडो रंग येता. उपरांत हळदीकुटां सुकोवन दळटात आनी चोळून तांची वस्त्रगाळ पूड करतात. हो सुको कुकूम.

मेणांत कालोवन तयार केल्लो तांबडो कुकूम आनी गोमाच्या द्रव्यांत रंग वापरून केल्लो कुकूम अशे ओल्या कुकमाचे दोन प्रकार आसात. मेणांत कालयल्ल्या कुकमांत केन्ना केन्ना हिंगूळ वा शेंदूर आदी विखारी द्रव्यां वापरतात. ताका लागून कातीचेर वायट परिणाम जावपाचो भंय आसता. दुसरे तरेचो कुकूम तयार करतना हून उदकांत डॅक्स्ट्रीन भरसून खळ तयार करतात आनी तातूंत उदकांत विरगळपी इओझीन रंग वा तत्सम तांबडो रंग भरशितात. खळ इबाडचो न्हय देखून तातूंत कांय प्रमाणांत संरक्षक द्रव्यां घालतात. हें मिश्रण थंड जातकच तातूंत सुगंधी द्रव्यां घालतात. तांबड्या रंगाच्या कुकमाभायर काळे, जांबळे, पाचवे आनी वेगवेगळ्या रंगांचे कुकूम म्हणून वापरांत येवपी पदार्थ ओल्या वा पेन्सिलीच्या रुपांत बाजारांत मेळटात.

हळदीकुटां, पापडखार आनी सवागी हांच्या विशिश्ट मिश्रणापसून कुकूम तयार करपाची एक सोंपी पद्दत आसा. हालींच्या तेंपार तांबड्या रंगावांगडाच बायलो वेगवेगळ्या रंगांचें गंध वापरतात. तेभायर आतां कुकमाच्या जाग्यार रेडीमेड अशो वेगवेगळ्या आकारांच्यो तशोच रंगांच्यो कागदी आनी प्लास्टीकच्यो तिकल्यो बाजारांत मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**तियात्र :** (पळेयात कोंकणी साहित्य).

**तिरुकल्याणम :** तमीळनाडू राज्यांतली एक परब. तमीळ भाशेंत लग्नाक कल्याण अशें उतर आसा. तिरुकल्याणम ही शिव आनी पार्वतीच्या लग्नाची परब. दक्षिणेंतल्या जायत्या शिवाच्या देवळांनी विशिश्ट तिथीक हो उत्सव जाता. रामेश्वराक आशाढ कृष्ण अश्टमीसावन श्रावण शुध्द पंचमीमेरेन ही परब चलता.

श्रावण शुध्द चवथी दिसा पार्वतीची मुर्ती तिच्या देवळांतल्यान रामकुंड तिर्थाचेर व्हरतात आनी थंय एका माटवांत तिका दवरतात. पार्वती थंय तपाक बसता असो समज आसा. थंय भाविकांची गर्दी जमिल्ली आसता. उपास करपी जायत्यो बायलो पार्वतीमुखार केळीचीं पानां मांडून तांचेर तिचेखातीर फळां मांडटात. तांचे भोंवतणीं फुलांची रांगोळी काडटात आनी धूपदीप लायतात. त्याच दिसा मध्यानेच्या सुमाराक तपस्विनी पार्वतीक मेळपाक शिवय देवळांतल्यान भायर सरता. भांगराच्या नंदीर विराजमान जाल्ली शिवाची उत्सवमुर्ती पालखेंतल्यान मिरवणुकीन वाजत-गाजत रामकुंडाकडेन वता. हे मिरवणुकेंत मदल्या भागाक नटयल्लो हती आसता. मिरवणुकेचे फाटल्यान ब्राह्मण चार वेदांचे मंत्रघोष करीत वतात. तांचे फाटल्यान टाळ आनी फिडल हांच्या तालार तेवारम गावपी भजनी मेळे चलतात.

नागपंचमीच्या दिसा दनपरां रामनाथपुरमच्या वेपाऱ्यांवतीन एक ब्राह्मण पार्वतीखातीर रस्मी वस्त्रां आनी मंगळसूत्र घेवन हतयावयल्यान देवळांत येता. देवळाच्या उदेंत दाराक लागून आशिल्लो लग्नामाटव फुलांनी सजयतात. उपरांत गोरज म्हूर्ताचेर भाविकांचे उपस्थितींत शिव - पार्वतीचें लग्न लायतात. फुडें चार दिसांनी शिव पार्वतीवांगडा एक मैल अंतराचेर आशिल्ले गंधमादन दोंगुल्लेचेर वता.

तमीळनाडूंतल्या कांय देवळांनी हो उत्सव आठ-णव दीस चलता. परबेचे सुरवातेक मुखेल पुरयत अष्टदिक्पालांची स्थापना करता आनी गुढी लावन ताची पुजा करता. उपरांत मंत्र म्हणून होम-हवन करतात. दरेका दिसा वेगवेगळ्या देवतांच्या मुर्तींची मिरवणूक काडटात. निमाण्या दिसा एके व्हड सजयिल्ले माचयेर शिव-पार्वतीच्यो मुर्ती दवरून तांचेमुखार करमणुकीचे कार्यक्रम करतात. ही परब जातकच दिकपालांचें विसर्जन करून गुढी देंवयतात. दुसऱ्या दिसा देवदासींच्या नाचाचो खास कार्यक्रम जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**तिरुचिरापल्ली (त्रिचनापल्ली-त्रिची) :** तमीळनाडू राज्याच्या तिरुचिरापल्ली जिल्ह्याचें ठाणें. धर्मीक, इतिहासीक, उद्येगीक आनी शिक्षणीक नदरेन म्हत्वाचें शार. लोकसंख्या ४१,१४,३२३ (१९९१). कावेरीच्या त्रिभुज प्रदेशाच्या मदीं तंजावरचे अस्तंतेक सुमार ५६ किमी. अंतरावयलें व्हड रेल्वेमार्ग प्रस्थानक आनी महामार्ग स्थानक. इ. स. सातवें शतमान ते सतराव्या शतमानामेरेन हें शार चोल, पल्लव, नायक आनी विजयानगर राज्यांची राजधानी आशिल्लें. उपरांत १९ व्या शतमानामेरेन मुसलमान, मराठे, फ्रँच आनी इंग्लीश हांचे सत्तेचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. हांगाचे खाशेलपण म्हळ्यार शाराच्या मदीं आशिल्लो सु. ८३ मी. उंचायेचो एक व्हड फातर आनी ताचेवयलो इतिहासीक नामनेचो किल्लो. ह्या किल्ल्यांत मोडके स्थितींत हजार खांबे आशिल्लो मंटप, ताचेपरस उंचायेवयले शंबर खांबे आनी शिवाचें मातृभुतेश्वर देवूळ. तेचपरी सामकें वयर आशिल्लें गणपतीचें देवूळ पळोवपासारकें आसा. वयर वचपाक त्याच फातरापसून सोंपणां खणिल्लीं आसून शिवाच्या देवळांतलें लिंगय त्याच फातरापसून केलां. देवळावयल्या घुमटाक भांगराचो दुरात दिला. सगळ्यांत वयर आशिल्ल्या 'उच्ची पिलैयार कोइल' ह्या गणपतीच्या देवळाकडल्यान शाराचो पुराय वाठार दिसता. ह्याच फातराचेर पल्लवांच्या काळांत कोरिल्लीं दोन व्होंवरींतलीं देवळां आसात. ह्या फातराच्या मुळसांत तेप्पाकुलम हें तळें आसा. हाचेभायर ह्या शारांत क्रायस्टचर्च, क्लायव रावतालो तें घर, सेंट जोसेफ कॉलेज आदी पळोवपासारकीं थळां आसात.

शाराचे भोंवतणीं पिकपी तांदूळ, ऊस, खावंचीं पानां, तंबाकू, धान्यां आदींची बाजारपेठ आसा. हांगा परंपरीक हातमागावयले कापडउद्येग, मोलादीक खडे, शेंदऱ्यो, चिरूट आदींचे उद्येग चलतात. तेभायर विद्युत् यंत्रां, बॉयलर, रेल्वे इंजीन कर्मशाळा सारके आर्विल्ले उद्येगय हांगा चलतात. हांगा चेन्नई विद्यापिठाक जोडिल्लीं आठ म्हाविद्यालयां आसून हेर जायत्यो शिक्षणीक संस्था आसात.

शाराचे उत्तरेक ५ किमी. अंतराचेर कावेरीच्या दोन प्रवाहांमदल्या जुंव्यार श्रीरंगमाक रंगनाथाचें नामनेचें देवूळ आसा. हें भारतांतलें एक मुखेल देवूळ आसून दर वर्सा चतुर्दशीक हांगा व्हड जात्रा भरता. श्रीरंगमच्या सकल इकराव्या शतमानांत चोल राजान कावेरी न्हंयेचेर बांदिल्लो बांद अजून पळोवंक मेळटा. तिरुचिरापल्लीक दक्षिण कैलास अशेंय म्हण्टात.

– कों. वि. सं. मं.

**तिरुपती :** आंध्र प्रदेश राज्यांतल्या चित्तूर जिल्ह्याच्या चंद्रगिरी म्हालांतलें हिंदूंचें एक मुखेल तीर्थक्षेत्र. पाकाल रेल्वे जंक्शनाचें तिरुपती हें एक स्टेशन. शारांतल्यान एक मैल पयस शेषाचल पर्वताचेर व्यंकटेश्वराचें देवूळ आसा. देखून ताका 'शेषाचलम' अशेंय म्हण्टात. ह्या पर्वताच्यो सात मुखेल तेंगश्यो आसात. वेंकटेश्वराच्या देवळाखातीर ह्या पर्वताक वेंकटाचल ह्याय नांवान वळखतात. दक्षिणेंत हो पर्वत तिरुमलय ह्या नांवान प्रसिध्द आसा. स्कंद पुराणांत वेंकटाद्रि महात्म्यांत ताचें विवरण अशें मेळटा –

एक फावट विष्णु अंतःपुरांत रमेवांगडा क्रीडा करतालो आनी शेषनाग दरवठ्यार राखण करतालो. ह्याच वेळार वायून अंतःपुरांत वचपाचो यत्न केलो, तेन्ना शेषनागान ताका आडायलो. पूण वायू कांयच आयकनासतना भितर वचूंक आपल्या बळग्याचो उपेग करूंक लागलो. दोगांयमदीं खूब वाद जालो. बोवाळ आयकून विष्णु भायर आयलो. वादाचें कारण आयकून ताणें शेषाक सांगलें, 'संवसारांत सगळ्यां परस बळिश्ट वायूच.' तेन्ना शेषान म्हळें, 'आमच्या दोगांयमदीं कोण बळिश्ट आसा ताचें प्रमाण घेयात'. जम्बु न्हंयेच्या तटार वेंकटगिरि आसा, ताका हांव वेटाळें घालून रावतां. जर म्हांका थंयच्यान हालोवंक वायूक येस मेळ्ळें जाल्यार तोच सगळ्यांत बळिश्ट थारतलो.

शेषान वेंकटगिरि पर्वताक वेटाळो घालतकच वायून आपल्या प्रचंड वेगान शेषनागाक पन्नास हजार योजन पयस, दक्षिण समुद्रांतल्यान



बत्तीस योजन उत्तरेक, उदेंत दर्याच्या अस्तंत भागाच्या सुवर्णमुखी न्हंयेच्या दाव्या भागांत उडयलो. शेषनागाचें आंग छिन्नविछिन्न जालें. शेषनाग स्वताची हार मानून लजेन विष्णुदेवाचें ध्यान करूंक लागलो. विष्णु प्रसन्न जातकच ताणें वर मागलो 'जेप्रमाण तुमी म्हज्या कुण्डलार वैकुंठांत विराजमान आसतात तेप्रमाण वेंकटस्थित शैलरुप म्हज्या आंगार सदांच निवास करचो'. विष्णुन तथास्तू म्हणून शेषाचलाचेर राबितो केलो. तो वेंकटगिरी पर्वताचेर आसा म्हणून ताका वेंकटेश वा व्यंकटपती अशेंय म्हण्टात.

ब्रह्मपुराणांत वेंकटेश महात्म्यांत असो उल्लेख मेळटा. एक फावट नारद धर्तरेचेर भोंवन उपरांत वेंकटनाथा (विष्णु) म्हऱ्यांत गेलो. तेन्ना ताणें सांगलें, गंगेसावन एक हजार कोस दक्षिण आनी उदेंत दर्यासावन २५ कोस अस्तंतेक सुंदर पर्वत आसा. तेन्ना विष्णुन म्हळें, 'कलियुगांत चोलराजपुत्र चक्रवर्ती कडल्यान प्रस्थापीत जावन हांव थंय रावतलों.'

वराह पुराणांत उल्लेख आसा तो असो, त्रेतायुगांत श्री रामचंद्र

जेन्ना लंकेक वतालो तेन्ना आपल्या पंगडासयत ताणें शेषाचल पर्वताचेर आशिल्ल्या स्वामीतिर्थांत न्हाण घेतलें. ह्या पुराणाच्या एकेचाळिसाव्या अध्यायांत असो उल्लेख आसा, पांडवान आपल्या वनवासाच्या वेळार ह्या पर्वतार एका वर्सामेरेन निवास केल्लो. ज्या तिर्थाचे देगेर ते राविल्ले ताचें नांव पांडवतीर्थ.

हांगा मेळिल्ल्या शिलालेखांत सगळ्यांत पुर्विल्लो शिलालेख इ. स. ७९० चो आसा. चोल, पांड्य, पल्लव आनी तुळुव ह्या दक्षिणेंतल्या मुखेल घराण्यांचे राजा वेंकटेशाचे भक्त आशिल्ले. तांणी ह्या स्थळाच्या वैभवांत जायत्या तरांनी भर घाल्ल्याचे पुरावे मेळटात. सुंदर पांड्यान इ. स. १२६२त वेंकटेशाच्या देवळावयल्या कळसाक भांगराचो वर्ख काडलो. वीरनरसिंह यादवराय हाणें आपली भांगरावांगडा तुळा करून त्या भांगराच्यो देवाक वस्ती घाल्यो. कृष्णदेवराय हाणें वेंकटेशाक भांगरा अभिशेक केल्लो. हालींच्या काळांत नागपूरचो श्रीमंत रघुजी भोंसलो हाणें हांगा देवाची सतत पुजा जावंची ही वेवस्था करून देवाक पाचूचो एक मोलादीक खडो दिलो. इ. स. १८४३त इंग्लिशांनी ह्या देवस्थानाची वेवस्था हांगाच्या हाथीरामजी महंतांच्या मठाकडेन सोंपयल्ली. पूण ताच्या कारभारांत फुडें अंधाधुंदी दिसून आयिल्ल्यान इ. स. १९३३त मद्रास सरकारान एक कायदो करून तिरुपती खातीर एका स्वतंत्र देवस्थान समितीची स्थापना केली. ते समितीचो मुखेल म्हणून एका सरकारी कमिशनराची नेमणूक केली. इ. स. १९५१ सावन 'तिरुमल तिरुपती देवस्थानम' ह्या नांवाची विश्वस्त संस्था देवस्थानाचो कारभार पळोवंक लागली. हे संस्थेंतलो कार्यकारी अधिकारी सरकारच नियुक्त करता.

वेंकटेशाच्या देवळाच्या गाभाऱ्यावयलें विमान पुरायेन भांगराचें आसा. ताका आनंदनिलयम अशें म्हण्टात. ह्या देवळाचें तोंड उदेंतेवटेन आसा आनी ताचे भोंवतणीं तीन प्राकार आसात. पयल्या प्राकाराचें नांव 'संवंगीप्रदक्षिणम'. ऊंच गोपूर आशिल्ल्या महादारांतल्यान भितर वतकच कृष्णदेवराय, वेंकटपतिराय आनी अच्युतराय ह्या तुळुव राजाचे पुतळे आसात. ह्याच प्राकारांत अकबराचो मंत्री तोडरमल आनी ताचे बायलेचे पुतळे आसात. तेचपरी भांगराचो ऊंच ध्वजस्तंभ आसा. पयल्या प्राकाराभितर 'विमानप्रदक्षिणम' नांवाच्या दुसऱ्या प्राकारांत पाकशाळा, यागशाळा, कल्याणमंडप, देवाचीं वाहनां दवरपाच्यो कुडी, तेभायर योगनरसिंह, वरदराज, रामानुज, सेनाधिपती आनी गरूड हांचीं देवळां आसात. सगळ्यांत भितल्ल्या प्राकाराक वैकुंठप्रदक्षिणम अशें नांव आसून तो फकत वैकुंठ एकादशीच्या दिसा उगडटात. हांगासल्ल्यान देवळांत वचपाक भांगराच्या पत्र्याचें दार आसा.

देवळांत वेंकटेशाची मूर्त उबी आसून तिची उंचाय २१३ सेंमी. आसा. तिच्या उजव्या हातांत चक्र, दुसरो हात भुंयेवटेन, दाव्या हातांत शंख आनी कमळ आसा. मुर्तीच्या मस्तकाचेर आशिल्ली जटा आनी खांदार आशिल्लो नागबंध पळोवन संशोधकांच्या मतान हें आदलें एक शिवस्थान आसा. फुडें रामानुजांनी हे मुर्तीक शंख आनी चक्रान सुसोबीत करून भांगराचे हात लावन घेतले. कलोतुंग चोलचो पूत तोंगमन हाणें ह्या देवळाची स्थापना केली. मुर्तीच्या आंगार सदांच सुमार साडेसाठ मण वजनाच्यो हिऱ्याच्यो आनी भांगराच्यो वस्ती आसतात. हांगा सदांच सुमार ६,००० यात्रीक येतात. सप्टेंबर - ऑक्टोबरांत आश्विन पुनवेक ब्रह्मोत्सव यात्रेक लाखांनी लोक येतात. देवाक दिवपाचें धन वा हेर वस्ती घालपाक गाभाऱ्यामुखार आशिल्ल्या रंगमंडपांत एक 'हुंडी' (हांडी) दवरिल्ली आसता.

भांगरा - रुप्याच्यो वस्ती तशेंच नोटी, नाण्यांच्या रुपान भावीक लोक हे हुंडेंत देवाच्या नांवान दान करतात. हे हुंडेतल्या दानाची म्हायती दानी मनशाबगर हेर कोणाक कळना.

हांगाच्या कल्याणकुट्टमंडपांत कांय भावीक दादले-बायलो मुंडण करून केंस वेंकटेश्वराक ओंपतात. देवस्थानाचें वर्साचें उत्पन्न दोन कोटी परस चड आसता. तातूंतल्यानच देवस्थान, यात्रिकांची वेवस्था, धर्मशाळा, श्रीवेंकटेश विद्यापीठ मुळावी आनी माध्यमिक शाळा, गोशाळा, संस्कृत पाठशाळा, प्रकाशन, मुद्रणसंस्था, हॉस्पिटल, फार्मास आदी भौशीक कामां करतात.

तिरुपती हो गांव तिरुमलयच्या मुळांत वसला आनी थंयची जनसंख्या खूब उणी. गांवांत जायतीं देवळां आसात. तातूंतलें गोविंदराजाचें देवूळ बरेंच प्रसिध्द आसा. थंयच लागसार सहस्त्र स्तंभ मंडप आसा, ताचें शिल्पकाम उत्कृश्ट आसा. ग्रॅनायटाच्या स्तंभार मुर्ती कोरांतून काडिल्ली आसा. चंद्रचोल राजान बांदून घेतिल्लो फातराचो रथ आसा.

तिरुमलय पर्वताच्या वेगवेगळ्या वाठारांनी वझरे आनी जलाशयां आसात. स्वामीतीर्थ, आकाशगंगा, पाप विनाशिनी, पांडव-तीर्थ, वैकुंठतीर्थ, जाबालीतीर्थ आनी गोगर्भतीर्थ हीं नामनेचीं तिर्थां आसात.

वेंकटेशाच्या देवळाभायर एक पुर्विल्लें वराहस्वामीचें देवूळ आसा. विष्णु सुरवातेक आदिवराहाच्या रुपान हांगा प्रकट जालो असो पुराणांत उल्लेख आसा, देखुनूच वेंकटेशाच्या दर्शनाआदीं वराहस्वामीचें दर्शन घेवपाची चाल आसा. तिरुचानूराक वेंकटेशाची बायल पद्मावती हिचें देवूळ आसा. ह्या देवळालागसार पद्मतळें आसा.

हांगाचो मुखेल उत्सव आश्विन म्हयन्यांत १० दीस चलता. उत्सवाच्या पांचव्या दिसा गरुडोत्सव आनी धाव्या दिसा नारायण वनात पद्मावतीवांगडा कल्याणोत्सव जाता.

– रोहितेश शर्मा

**तिरोदस** : शुक्ल वा कृष्ण पक्षांतली तेरावी तीथ. धर्मशास्त्रांत तिरोदशीचीं जायतीं व्रतां सांगल्यांत. हेमाद्रीन तिरोदशीचें ध्यान अशें सांगलां - तिरोदस ही गोरी असून, धनुष्यबाण घेवन मानग्याचेर बसल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**तिलकव्रत** : चैत्र शुद्ध पाडव्या दिसा हें व्रत करपाचें आसता. तेखातीर न्हंयचे देगेर, तळ्यादेगेर वा घरांत वासाळ द्रव्यान विष्णुची आकृती काडटात आनी ताची पुजा करतात. उपरांत ताका वस्त्र आनी त्या ऋतूंत उपलब्ध आशिल्लीं फळां ओंपतात. उपरांत मंत्र म्हणून ताची प्रार्थना करतात. तो मंत्र असो –

भगवंस्त्वत्प्रसादेन वर्षं क्षेमामिहास्तु मे ।
संवत्सरोपसर्गा मे विलयं यान्त्वशेषतः ॥

**अर्थ -** हे भगवान, तुजे कृपेन म्हजें वर्स सुखाचें वचूं आनी वर्सांतलीं सगळीं संकश्टां नश्ट जावं.

उपरांत कपलार चंदनाचो तिबो लायतात. बायल वा दादलो कोणाकय हें व्रत करूंक मेळटा. ह्या व्रताची कथा अशी - शत्रुंजय नांवाचो एक

राजा आशिल्लो. ताका चित्रलेखा नांवाची बायल आशिल्ली. तिणें तिलकव्रत घेतिल्लें. ताका लागून राजाक मारपाच्या हेतून जो दुस्मान येतालो तो चित्रलेखाच्या कपलावयल्या तिब्याच्या प्रभावान ताचो इश्ट जातालो. एक फावट राजाक हतयान उडयलो आनी राजा मरणाधडेर पावलो. तेन्ना ताचो जीव व्हरपाखातीर यमदूत आयले. पूण राजाम्हऱ्यांत बशिल्ले चित्रलेखाच्या कपलावयलो तिबो पळेतकच ते भियेले आनी पळून गेले.

- कों. वि. सं. मं.

**तिवरेंकार, प्रभाकर काशिनाथ :** (जल्म : २ नोव्हेंबर १९३५, म्हापशें).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५४ वर्सासावन सुटकेझुजारी बाळा काकोडकार हाच्या फुडारपणाखाल तो वावर करतालो. पत्रकां लावप, तिरंगी बावटे लावप, चोरयां बसका घेवप, लोकांक सत्याग्रहांत वांटो घेवंक स्फूर्त दिवप असलीं कामां तो करतालो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी पांच वर्सांखातीर बंदखणींत दवरलो. १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**तिवळ :** कडयेचो एक प्रकार. गोंयांत मुखेल जेवण जाले उपरांत निमाणें इल्लें शीत भिजोवपाखातीर कडयांचे दोन प्रकार करतात. नाल्लाचो रोस घालून केल्ली कडी (रोसा कडी) आनी नाल्ल घालिनासताना केल्ली कडी (फुटी कडी). हे फुटे कडयेक तिवळ म्हण्टात. ह्यो दोनय कडयो जिरवणेखातीर घेवपाची चाल आसा. ह्या कडयांनी हींग, मीठ, सोलां घालतात. देखून ह्यो कडयो मनशाक जिरवण जावपाक मदत करतात. जिरवणेवांगडाच ह्या कडयांचो मुखशुध्दीखातीर उपेग जाता. संवसारभर अशे जिरवणेचे आनी मुखशुध्दीचे प्रकार घेवपाची चाल आसा.

दुगदुगीत हूनशें इल्लें उदक घेवन तातूंत भिंडांचीं सोलां भिजत घालतात. उपरांत फावो ते प्रमाणांत मीठ, हींग, हरव्यो मिरसांगो, हरवी कोथमीर घालून सोलांचो रांप ये म्हणसर हे सगळे पदार्थ उदकांत दवरतात. कांय कडेन तिवळांत लशणीचो वापर करतात. भिंडा सोलां मेळनात जाल्यार तांचे बदला आमसोलां वा वटमा सोलांचो वापर तिवळाखातीर करतात.

लग्नां आनी सणापरबांच्या वेळार जेवण चड करून जड आसता. अशा जेवणा वेळार जिरवणे खातीर म्हणून निमाणेकडेन तिवळ वाडपाची चाल सर्रासपणान गोंयांत चलता. हेर वेळार लेगीत जिरवणेचें वखद म्हणून सोंपत्या जेवणार तिवळ वा कडी घेतात. तिवळ करपाची पददत सामकी सोंपी आनी उण्या वेळाची आशिल्ल्यान गरजे वेळार जेन्ना वेळ उणो आसता तेन्ना तिवळ करून वाडटात.

तिवळ हो उण्या खर्चाचो पदार्थ आशिल्ल्यान तो समाजांतल्या सगळ्या पांवड्यावयल्या लोकांगेर करतात.

- सुधा आमोणकार

**तिवारी, बबनराव नंदराम :** (जल्म : १८ जुलय १९२०, सावरगांव-येवला महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें इंग्लीश प्राथमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो सोशलिस्ट पक्षाचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो जनता पक्षाचो वांगडी जालो. १९५२ वर्सा संयुक्त महाराष्ट्राखातीर मुबंय जाल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. ७ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा सावंतवाडीच्यान गोंयांत येवन वेळग्यां सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतलो देखून पोलिसांनी ताका धरून खूब मार दिलो. १९६०-१९६५ आनी १९८०-१९८५ ह्या काळांत तो सावरगांव ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हणून वेंचून आयलो. १९१८ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**तिसऱ्यो :** मोलुस्का (लबलबीत) संघांतल्या फाटीकणो नाशिल्ल्या प्राण्याचो एक वर्ग. ह्या वर्गांत तिसरी, खुबो, कुणय, काल्लूं, शिनाण्यो, म्हाणयो, म्हेनी, काली ह्या सारकिल्ल्या, शिंपयांचें कवच धारण करपी, दर्यांत तशेंच गोड्या उदकांत रावपी प्राण्यांचो आस्पाव जाता. मोलुस्का संघाच्या आनीक एका वर्गाखाल घुलो, कोंगे, सारकिले शंखधारी प्राणी येतात. तांचो राबितो चडसो उथळ दर्यांतल्या दर्यादेगेच्या, न्हंयेच्या तडीच्या चिखलांत वा रेवेंत आसता. हातूंतले कांय प्राणी, लाकूड वा दोरी ह्या सारकिल्या वस्तूंक दसून अधांतरी राविल्ले दिसतात.

दोन शिंपयां मदले सुरक्षित पोकळेंत ह्या प्राण्याचें मोव अशें शरीर धांपिल्लें आसता. ह्यो दोन शिंपयो (करपां, म्हेनी) खोलाय आशिल्ल्या भागाकडेन भायल्यान एका विशिश्ट पदार्थान एकामेकांक जोडिल्ल्यो आसतात. अन्न वा उदक घेवपाखातीर वा हेर खंयच्याय कारणा खातीर प्राण्याक जेन्ना शिंपयो उकत्यो करच्यो पडटात तेन्ना ह्या विशिश्ट भागाचो वापर जोड्यासारको जाता. ह्यो शिंपयो सादारणपणान तीन थरी आसतात. भायलो थर तपकिरी, पाचवो, गोबरो काळसर रंगाचो आनी शंखद्रव्यांच्या पदार्थापसून निर्माण जाल्लो आसता. हाचे पोंदचो थर कॅल्सायटच्या पदार्थापसून घडिल्लो आसता. तिसरो आनी सगळ्यांत भितल्लो थर गुळगुळीत आनी मोतयावरी चकचकीत आसता आनी तो कार्बनी पदार्थाच्या पातळ पड्ड्याचो आसता.

ह्या वर्गांतले भोवतेक प्राणी शिंपयांभितर आशिल्ल्या पांयांसारक्या अवयवाच्या आदारान एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्याचेर वचूंक शकतात. पूण काल्लूं, शिनाणी, काली सारकिले खडपां वा हेर खंयच्याय आदाराक दसून रावपी प्राणी मात अचल आसतात. ह्या प्राण्यांक तकली नासली तरी शरिराच्या मध्यभागाचोर तोंड आसता. ह्या तोंडावरवीं स्पर्श, ज्ञान, सोद, धरप, दसप ह्यो क्रिया करप जाता. उदकावांगडा येवपी बारीक अशा अन्नकणांचेर आनी प्राणवायूचेर तांच्या शरिराचें पोशण जाता. तोंड, काळीज, पोट, गुदद्वार हे आंतररचनेवरवीं ह्या प्राण्याचें जिवीतकार्य चलता.

ह्या वर्गांतले भोवतेक प्राणी एकलिंगी आसतात. कांय मेजकेच उभयलिंगी आसतात. कांय जाणांचे बाबतींत लिंगबदल घडटा. भोवतेक आपले अंडाणू आनी शुक्राणू शरिराभायर उदकांतले जमनीर दवरतात आनी थंयच तांचें प्रजनन घडटा.

मनशाचें अन्न म्हणून ह्या प्राण्याचो उपेग जाता. तेभायर कांय प्रकारच्या

प्राण्यांपसून मोतयांची पैदास जाता. शिंपयांचेर प्रक्रिया करून चुनो तयार करतात. रंगीत सोबीत अशा शिंपयांपसून सोबेच्यो आनी सजावटीच्यो वस्तू तयार करतात. शिंपयांपसून सैमीक प्रक्रियेवरवीं चुनखडपां तयार जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**तिसवाडी :** तिसवाडी हो एक मध्य गोंयचो तालुको. आदल्या काळांत ताका तालुक्याच्या जाग्यार महाल म्हण्टाले. राश्ट्रकुटांचे कारकिर्दीत नांवांमुखार प्रदेशांतल्या गांवांचे, वसतींचे, विभागांचे (महसूल, राजकीय) संख्येचो आंकडो घालपाची पद्दत आशिल्ली. तेप्रमाण तिसवाडी म्हळ्यार तीस वाडींचो म्हणजेच गांवांचो वाठार अशें म्हणप जालें. वाठारामुखावयलो आंकडो हो खंयच्या संदर्भाचो निर्देशक आसा हाचेसंबंदी जाणकारांमदीं मतभेद आसले तरी खंयच्याय एका तरी घटकाच्या संदर्भांत हो आंकडो दिवप जाला इतलें खरें.

तिसवाडीचे उत्तरेक बार्देस आनी दिवचल तालुके, उदेंतेक फोंडें, दक्षिणेक जुवारी न्हंय आनी अस्तंतेक अरबी दर्या आसा. उत्तरेक आशिल्ल्या बार्देस तालुक्यापासून तिसवाडी तालुक्याक मांडवी न्हंय वेगळी करता जाल्यार दक्षिणेक आशिल्ल्या मुरगांव तालुक्याक जुवारी न्हंय वेगळी करता. तिसवाडी तालुक्याचें क्षेत्रफळ १९७.९ चौ. किमी. सरभोंवतणीं जुवारी तशेंच मांडवी न्हंयांनी वेढील्लो हो प्रदेश म्हळ्यार एक व्हडलो जुंवो. चंद्रपूर ही कदंब काळांतली आदली राजधानी सोडल्यार उपरांतच्यो गोंयच्या प्रशासकांच्यो राजधानी ह्याच तालुक्यांत जाल्ल्यो मेळटात. इ.स. १०५२ त कदंब राजांनी आपली राजधानी चंद्रपूरासावन गोपकपट्टण वा गोवापुरी (आयचें व्हडलें गोंय) ह्या गांवांत हाडली. इ.स. १४८० वर्साच्या अदमासाक गोंय, आदिलशाही सत्तेखाल आयलें. विजापूरच्या युसूफ आदिलशाहान एला (पोरणें गोंय) आपली राजधानी निर्माण केली असो अदमास आसा. फुडें इ.स. १५१० त पुर्तुगेजांचे सत्तेखाला गोंय आयलें. इ.स. १९४३ त प्लेगाचे धामीक लागून पुर्तुगेजांनी आपली राजधानी पणजे वसयली. मुक्त गोंयची राजधानी तीच उरली. मांडवी आनी जुवारी न्हंयांक लागून तिसवाडी प्रदेशाक सागरी वेपाराचें म्हत्व फाव जालें.

गोंयची राजधानी आशिल्लें पणजी हें तिसवाडींतलें मुखेल शार. मांडवी न्हंयेचे देगेर वाशिल्ल्या ह्या सोबीत शारांत गोंयचें प्रशासकीय कार्यालय आनी विधानसभा आशिल्लें सचिवालय, कला आनी संस्कृतीचें संवर्धन करपी कला अकादमी, पुराभिलेख संग्रहालय, सँट्रल लायब्ररी, सरस्वती मंदिर लायब्ररी, आकाशवाणी आनी दूरदर्शन केंद्र, आझाद मैदानावयलें हुतात्मा स्मारक, महालक्ष्मी मंदिर, हनुमान मंदिर आनी मॅरी इम्यॅक्युलेट इगर्ज आसा. पणजेक तेंकुनूच आशिल्ल्या ताळगांव सड्याचेर गोवा विद्यापीठ, दोनापावलाची राश्ट्रीय समुद्र विज्ञान संस्था, काबु राजभवन (राज्यपाल निवास), बांबोळेचो राजीव गांधी मॅडिकल कॉम्प्लॅक्स ह्यो मुखेल संस्था आसात.

पोरणें गोंय हे गोंयचे आदले राजधानींत आशिल्ली स कॅथॅड्रल इगर्ज, बों जेजू इगर्ज, सेंट कायतान इगर्ज, ब्रह्मपुरीचें गोंमतेश्वर देवालय, पुरातत्त्व वस्तुसंग्रहालय, राश्ट्रीय कृषि-विज्ञान संशोधन केंद्र हीं पर्यटनाचे नदरेन म्हत्वाचीं थळां आसात. तशेंच धुळेर (सांता मोनिका) चो सिबा गायगी हो कारखानो, खोर्लेची उद्देगीक वसाहत हे ह्या तालुक्यांतले दोन उद्देगीक प्रकल्प. पिलारच्या सड्याचेर आशिल्ली सायबिणीची इगर्ज आनी मठ, करमळेचें तळें, चोडणेचें पक्षी अभयारण्य हींय कांय पळोवपासारकीं थळां आसात.

दोंगरेवयलो शिगमो-इंत्रूज, पाळेंचो जागर, शिरदोनचें पेजे फेस्त, दिवाडेचें बोंदेरां फेस्त हे ह्या तालुक्यांतले कांय लोककला प्रकार आसात.

नाल्ल, मीठ, नुस्तें, तांदूळ, काजू आनी पर्यटन संबंदीत वेवसाय हीं ह्या तालुक्यांतलीं उत्पन्नां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**तिळवे, शांबा पुंडलिक :** (जल्म : १५ जून १९३७ किर्लपाल, सांगें).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. गांवच्या लोकांक सुटकेझुजांत वांटो घेवंक स्फूर्त दिवपाचो वावर तो करतालो. १३ डिसेंबर १९५६ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. ताका १८ म्हयने बंदखणींत दवरलो. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**तीट :** गंधावरी कपलाक लावपाचो काळो पदार्थ. ल्हान भुरग्यांक दिश्ट लागची न्हय देखून न्हाणयले उपरांत ताच्या पोल्याक आनी कपलार तिटीचो ल्हानसो तिबो लावपाची चाल आसा. तांदूळ वा हेर धान्य जळोवन ताचेपसून तीट तयार करतात. बाभळीच्यो सांगो सुकोवन ताच्या पिठ्यापसून तीट तयार करतात. गोंयांत चड करून पणटी पेटत दवरून तीन खुरांचेर वयर सपाट आयदन दवरतात. दिव्याच्या झोताची काजळी त्या सपाट आयदनाक लागता. ही काजळी उपरांत एंडेलान वा खोबरेल तेलान कालयतात आनी ताची तीट मागीर भुरग्यांक लायतात. मनशाच्या आंगाक तिबो, तीट, गंध, तेल, भस्म, उटणें सारके पदार्थ लावपाची प्रथा आसा. प्रसंगाप्रमाण ताका धर्मीक आदार दिवप जाता आसलो, तरी तांच्या उपेगा फाटल्यान वैजकी आदार आसपाची शक्यताय न्हयकारूंक जावंचिना. ह्या पदार्थाच्या आरोग्यवर्धक गुणांखातीर तांचो वापर जावपाची शक्यताय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद - तिबो.

**तीथ :** 'तनोति विस्तारयति चन्द्रकलाम्, तन्यते चन्द्रकलया इति वा' चंद्रकलेची वाड करता ती, वा चंद्रकलेन जिचो विस्तार जाता, ती तीथ, अशी तिथीची व्याख्या आसा. चिंतामणी ह्या ग्रंथांत तिथीची आनीक एक व्याख्या आसा ती अशी -

आदित्याद् विप्रकृष्टस्तु भागद्वादशकं यदा ।
चन्द्रमाः स्यात्तदा राम तिथिरित्यभिधीयते ॥

**अर्थ** - सुर्यापसून बारा अंश पयस वचपाक चंद्राक जितलो काळ लागता, तितल्या काळाक हे रामा, तीथ अशें म्हण्टात.

तीथ म्हळ्यार चांद्रमानाचो दीस वा चांद्रमासाचो तिसावो वांटो. तीथ ह्या शब्दाचो उल्लेख वेदकाळांत वा ब्राह्मणकाळांत मेळना. कारण त्या

काळांत लोकांक तीथ खबर नाशिल्ली. एका सुर्योदयासावन दुसऱ्या सुर्योदयामेरेन एक दीस जाता, इतलेंच तांकां खबर आशिल्लें. पूण जेन्ना सूत्रवाङ्मय सुरू जालें तेन्नासावन तिथी ह्या शब्दाचो उल्लेख मेळटा. सूत्रवाङ्मयाक सुरवात जातकच खगोलशास्त्र, ज्योतिशशास्त्र, संस्कारमयूरव, मुहूर्त चिंतामणी अशे ग्रंथ तयार जाले आनी तातूंत तीथ हो शब्द आयलो.

पुनवेसावन पुनवेमेरेन वा उमाशेसावन उमाशेमेरेनची अवस्था येवपाक चंद्राक २९.५३०५८८ दीस लागतात. हाका एक म्हयनो अशें नांव आसा. म्हयन्याचो तिसावो वांटो म्हळ्यार तीथ. दुसरे भाशेन सांगपाचें जाल्यार नक्षत्रचक्रांतल्यान सुर्याभोंवतणीं ३६०°ची भोंवडी पुराय करपाक चंद्राक २९.५३०५८८ दीस लागतात. तातूंतलो १२° (३६०°, १/३० = १२°) वांटो पुराय करपाक ताका जो काळ लागता, ताका तीथ म्हण्टात.

आमच्या पंचांगांतल्या दिसाची सुरवात सुर्योदया वांगडा जाता तसोच नवो वारूय सुर्योदयाकूच सुरू जाता. त्या वेळार जी तीथ चालू आसता, तीच त्या सबंद दिसाची तीथ मानतात. एका म्हयन्याच्यो तीस तिथी आसतात - पाडवो, बी, तय, चवथ, पंचम, सश्ट, सप्तम, अश्टम, नम, दसम, एकादस, दुवादस, तिरोदस, चतुर्दस आनी पुनव अशीं तांचीं नांवां आसात. उपरांत परतून पाडवो ते चतुर्दस ह्यो तिथी येतात आनी तिसावी तीथ ती उमास. दरेक तीथ ही कितल्यो घटका आनी कितलीं पळां आसता, तें पंचांगांत बरयिल्लें आसता. तिथींची वृद्धी आनी क्षय जायत आसता. देखीक बिरेस्तारा अश्टम ही तीथ सुर्योदयासावन ५७ घटिका २ पळां आसा. म्हळ्यार इंग्लीश पद्‌दतीप्रमाण ती शुक्रारा फांतोडेमेरेन आसा. ताचेउपरांत नम लागता, ती शेनवारा सकाळीं सुर्योदया उपरांत १ घटीका २० पळांमेरेन आसा. म्हळ्यार शुक्रार आनी शेनवार ह्या दोनूय दिसांनी नम हीच तीथ आयली. अशा वेळार नमीची वृध्दी जाली अशें म्हण्टात. वाडिल्ली ही तीथ वारांक लागता (बिरेस्तार, शुक्रार आनी शेनवार). देखून तिका ' त्र्यहस्पृक् ' अशें नांव आसा. अशेच तरेन कांय खेपे तिथीचो क्षय जाता. देखीक - वद्य तिरोदस ही तीथ बुधवारा सुर्योदयासावन १ घटिका १२ पळांमेरेन आसा. म्हळ्यार सुर्योदयाच्या वेळार तिरोदस चालू आसा. तेखातीर त्या दिसाची तीथ तिरोदस हीच थारली. सुर्योदया उपरांत १ घटिका १२ पळांनी चतुर्दस लागता, ती बुधवारा ५५ घटिका २८ पळांनी म्हळ्यार इंग्लीश पद्‌दतीप्रमाण बिरेस्तारा फांतोडेर, सुर्योदयापयलीं सोंपता. ते उपरांत उमास लागता. ती बिरेस्ताराच्या सुर्योदया वेळारूय लागिल्ली आसता. म्हणून बिरेस्ताराची तीथ उमास थारता. सुर्योदयाची जी तीथ तीच त्या सबंद दिसाची तीथ ह्या नेमाप्रमाण बुधवारा चतुर्दस आसून लेगीत त्या दिसा तिरोदस मानतात आनी चतुर्दशीचो क्षय जालो अशें म्हण्टात.

ज्योतिशशास्त्रांत दर एके तिथीचो एकेक स्वामी मानला. तेविशींचो श्लोक असो -

> तिथीशावग्निकौ गौरी गणेशोऽहिर्गुहो रविः ।
> शिवो दुर्गान्तको विश्वे हरिः कामः शिवः शशी ॥

अर्थ - पाडवो-अग्नी, बी-ब्रह्मा, तय-गौरी, चवथ-गणपती, पंचम-सोरोप, सश्ट-गुह, सप्तम-रवी, अश्टम-शिव, नम-दुर्गा, दसम-यम, एकादस-विश्वेदेव, दुवादस-विष्णु, तिरोदस-काम, चतुर्दस-शिव आनी पुनव आनी उमास - पितर हे तिथींचे स्वामी आसात.

तशेंच दरेक तिथीक आनीक एक वेगळें नांव आसा. शुक्ल पक्षांतलो पाडवो ते पंचम, सश्ट ते दसम, आनी एकादस ते पुनव ह्या गटांतल्या पांच तिथींक अनुक्रमान नंदा, भद्रा, जया रिक्ता आनी पूर्णा अशीं नांवां आसात. तातूंतल्यो पयल्यो पांच अशुभ, दुसऱ्यो पांच मध्यम आनी तिसऱ्यो पांच शुभ मानतात. कृष्ण पक्षांतल्या तिथींकूय अनुक्रमान त्योच संज्ञा आसात. पूण तातूंतलें पयलें पंचक शुभ, दुसरें मध्यम आनी तिसरें अशुभ मानतात. शुक्रारा नंदा, बुधवारा भद्रा, मंगळारा जया, शेनवारा रिक्ता आनी बिरेस्तारा पूर्णा तिथी आयल्यार त्यो सिद्धिप्रद जातात, अशें मानतात.

'तिथी' चेर केल्ले उपास, व्रतां हीं चड फळादीक थारतात. चंद्राचेर, ताचे कलेचेर तिथीची क्षय-वृद्धि जाल्ल्यान, जिवीत मनीस, मोनजात, झाडां-झुडपां तशेंच सगळ्या जिवांचेर तिथींचो वायट-बरो परिणाम जाता अशें विज्ञानान सिद्ध केलां. दर्याचीं ल्हारां येवप, सुकती-भरती जावप हें लेगीत तिथींचेरूच आदारून आसता. थरावीक तिथीचेर थरावीक वेळार सुकती-भरती जाता हें गणित थरिल्लें आसता.

नंदा तिथीचेर घर घेवप, घराची दुरुस्ती करप असलीं शुभकार्यां करतात. भद्रा तिथीचेर लग्न, भोंवडी, जया तिथीचेर गाडयो (वाहनां) घेवप, लोखणी हत्यारां घेवप, रिक्त तिथीचेर कोर्टाचीं कामां; पूर्णा तिथीचेर शांतिकर्म, संस्कार करचे अशीं कामां सांगल्यांत.

- माधव गोविंद भुस्कुटे

## तीर्थ - १

**तीर्थ - १ :** मूळ धातू 'तृ' म्हळ्यार तारप. 'तीर्यते अनेन इति।' म्हळ्यार जाच्या योगान तरून वचप जाता, तें तीर्थ. 'तरति पापादिकं यस्मात्।' म्हळ्यार जाका लागून पापकर्मांतल्यान मेकळीक जाता, तें तीर्थ.

'निपानागमययोस्तीर्थमृषिजुष्टे जले गुरौ ।' म्हळ्यार उदकाची सुवात, आगमशास्त्र, ऋषींनी सेवन केल्लें जल, स्थल आनी गुरु इतले तीर्थ ह्या शब्दाचे अर्थ आसात. 'तीर्थ योनो जलावतारे च' योनी म्हळ्यार जलाशयालागसारचें अरत्निमात्र (कोंपरासून मदल्या बोटाच्या तोकामेरेनचें माप) स्थान आनी जंय घाट आसा असो उदकाचो प्रवाह म्हळ्यार तीर्थ. वेदपारंगत ब्राह्मणाकूय मनून तीर्थ म्हळां.

कर्मभूंय, धर्मस्थान, धर्मकृत्य हांकांय कांयकडेन तीर्थ अशें म्हळां. 'तीर्थरूपा हि साधवः' म्हळ्यार संतसज्जन हे तीर्थरूप आसतात, अशेंय म्हण्टात. स्कंद पुराणांत तीर्थ शब्दाचो अर्थ मातसो विस्तारान सांगला, तो असो -

> आश्रयाः सन्मुनीन्द्राणां देवानां च तथा प्रिये ।
> भूमिभागाः पर्वताः स्युस्तत्कीर्त्यं तीर्थमित्युत ॥

अर्थ - हे प्रिये, मुनिश्रेश्ठ आनी देव हांचीं निवासस्थानां, भूंयवाठार आनी पर्वत हांकां तीर्थ अशें म्हणचें.

नितीशास्त्रांतल्या श्लोकाप्रमाण, राजाच्या मंत्रिप्रभृती अठरा अधिकाऱ्यांक तीर्थ म्हळां, ते अशे - मंत्री, पुरयत, युवराज, राजा, द्वारपाल, राजाचो खाजगी कारभारी, बंदखणीचो अधिकारी, समाहर्तो म्हळ्यार धन एकठांय करपी, कृत्य आनी अकृत्य खंयचें तें थारावन तेप्रमाण येवजण करपी, सेनाधिकारी, नगराध्यक्ष, खाणी, कारखाने हांची निर्मिती करपी, धर्माध्यक्ष, सभाध्यक्ष, दंडधारक, दुर्गपाल, सीमापाल आनी अरण्यपाल ह्या अठरा जाणांक तीर्थ म्हणचें. कौटिल्यानूय हीं

अठरा तिर्थां सांगल्यांत. महामात्यपदाक ताणें मुखेल तीर्थ म्हळां.

भूंय, उदक आनी तेज हांच्या अद्‌भुत प्रभावाक लागून आनी ऋषि - मुनींच्या निवासांक लागून तिर्थांक पुण्यकारक म्हळां.

मत्स्य पुराणांत साडेतीन कोटी तिर्थां सांगल्यांत, ब्रह्म पुराणांत तीं साठ कोटी हजार आनी साठ कोटी शेंकडे इतलीं सांगल्यांत. कृतयुगांत पुष्कर, त्रेतायुगांत नैमिषारण्य आनी द्वापरयुगांत कुरूक्षेत्र हीं श्रेश्ठ तिर्थां आसात. कलियुगांत, गंगेचो श्रेश्ठ तीर्थ म्हणून आश्रय करचो अशें पद्म पुराणांत म्हळां.

तिर्थांचे विंगड विंगड प्रकार आसात, ते अशे - जंगम, मानस आनी स्थावर. ब्राह्मण हे जंगमतीर्थ; सत्य, क्षमा, इंद्रियनिग्रह, दान, दम, संतोष, ब्रह्मचर्य, भूतदया, आर्जव, ज्ञान आनी धैर्य हीं मानसतिर्थां. भुयेवयले पर्वत, रानां, उदकाच्यो सुवाती, न्हंयो हीं स्थावर तिर्थां.

स्थावर वा भौम हांचे आनीक चार प्रकार मानल्यात -

१) धर्मतीर्थ - लोकांभितर धर्म पालनाची ओड निर्माण जावंची म्हणून जे सुवातेर धर्म, निती, सदाचार हांचें शिक्षण दितात आनी प्रचार करतात, अशी सुवात.

२) अर्थतीर्थ - न्हंयेचे देगेर आनी तांच्या संगमाचेर जंय वेपारधंदो व्हड प्रमाणाचेर चलता, अशी सुवात.

३) कामतीर्थ - जंय विंगड विंगड कलांची उपासना जाता आनी तरातरांच्यो कलात्मक वस्तू तयार जातात, अशी सुवात.

४) मोक्षतीर्थ - विद्या, ज्ञान आनी अध्यात्म हांचीं पिठां जंय आसात, तीं क्षेत्रां.

ब्रह्म पुराणांत तिर्थांचे विंगड विंगड चार प्रकार मानल्यात ते अशे-

१) दैव - गोदावरी, तुंगभद्रा, गंगा, काशी, पुष्कर, प्रयाग हीं सगळीं दैव तिर्थां (देवान निर्मिल्लीं) आसात.

२) आसुर - गया हें असुरनिर्मित तीर्थ.

३) आर्ष - प्रभास, नरनारायण, बदरिकाश्रम हीं तिर्थां आर्ष म्हळ्यार ऋषिनिर्मीत.

४) मानुष - अंबरीष, मनू, पुरू हीं राजांनी निर्माण केल्लीं मानुष तिर्थां.

५) पद्म पुराणांत लाक्षणिक अर्थान गुरू, आवय, बापूय, घोव, बायल हांकांय तिर्थां म्हळां. गुरू हो आपल्या शिश्याचो अज्ञानरुपी काळोख पयस करता, देखून शिश्याक हो तीर्थरूप आसता. आवय-बापूय, आपल्या भुरग्यांचें बरें जावंचें म्हणून यत्न करतात, तेखातीर भुरग्यांक तीं दोगांय तीर्थरूप जातात. बायलेक घोव हो सगळ्या तिर्थांचे सुवातेर आसा. घोवाचें सदांच बरें जावंचें म्हणून यत्न करपी बायल आनी सगल्या ज्ञानगुणांनी संपन्न अशी सदाचरणी पतिव्रता ही सगळ्यांक तिर्थाचे सुवातेर आसा. अशी पतिव्रता ज्या घरांत आसा, त्या घराकूय तिर्थाची योग्यताय फावो जाता. भागवत पुराणांत भगवद्‌भक्तांकूय तीर्थ म्हळां.

कांय अनादितिर्थां आसात. तीं केन्नासावन पवित्र मानल्यांत तें कळना. काळाच्या ओगांत कांय तिर्थां नवीं तयार जातात, जाल्यार कांय तिर्थांचें म्हत्व उणें जाता. कांय तिर्थांचीं नांवां उरतात पूण त्या थळांची वळख मेळना.

- वा. ल. वझे

**तीर्थ - २ :** देवाचो अनुग्रह प्राप्त जावंच्या उद्‌देशान केल्लें पवित्र जलप्राशन. प्रासंगीक पुजा-अर्चा सोंपली म्हण्टकच, देवाचो अनुग्रह म्हणून प्रसाद (फूल, निवेद्य) आनी तीर्थ (निखटें उदक, वा दूद, म्हौंव, तूप, साकर, धंय हांचें मिश्रण म्हळ्यार पंचामृत, पंचगव्य) प्राशन करपाची चाल आसा.

दर एका देवळांत देवाक पांयां पडूंक वचपी भाविकाक तीर्थप्रसाद दिवपाची प्रथा आसा. देवाच्या अभिशेकाखातीर जें उदक वापरप जाता त्या उदकाचो तीर्थ म्हणून बऱ्याच देवळांनी उपेग करप जाता. देवळाचे गर्भकुडीच्या मुखेल दरवट्याभायर प्रसादाचें तबक आनी तिर्थाचें पंचपात्र हेखातीर दवरिल्लें आसता.

तीर्थक्षेत्राक भेट दिवपी भावीक लोक आपल्या घरच्यांखातीर तीर्थक्षेत्राकडचें उदक तीर्थ म्हणून घरा हाडटात. मरणाधडेर पाविल्ल्या मनशाच्या तोंडांत तुळशीपानां वांगडा तीर्थ घालपाची प्रथा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : तीर्थयात्रा.

**तीर्थंकर :** एक जैन संज्ञा. जैन आनी बौद्ध धर्मांत जायते धर्मसंस्थापक मानिल्ले आसात. अशा युगपुरुशांक जैन धर्मांत तीर्थंकर अशी संज्ञा आसा. तीर्थंकर उतराची व्याख्या अशी आसा - 'तिर्थ धर्म करोति प्रकटयति इति तीर्थंकर:। (तीर्थ म्हळ्यार धर्म आनी ताचें प्रकटीकरण करता तो तीर्थंकर) वा तीर्यते संसारसागरो येन तत्तीर्थम। तीर्थं करोतीति तीर्थंकर:। (जाचे वरवीं संसारसागर तरून वचूंक येता तें तीर्थं आनी तीर्थ उत्पन्न करपी तो तीर्थंकर). हाचेवयल्यान तीर्थंकर म्हळ्यार धर्माध्यक्ष, जैन संघप्रमुख, मोक्षाची वाट दाखोवपी असो जाता. तीर्थंकराक 'जिन' इंद्रियांचेर जैत मेळोवपी, अर्हत्, सर्वज्ञ, वीतराग, केवली अशीं नांवां आसात. तीर्थंकराच्या जिन हे उपमेवयल्यान तांच्या धर्माक जैन अशें नांव मेळ्ळें.



तीर्थंकर हे चतुर्विध संघाची स्थापना करतात. तीर्थंकर गर्भांत येता तेन्ना ताचे आवयक सोळा तरांचीं सपनां पडटात अशें सांगतात. तातूंत बैल, शींव, लक्ष्मी, फुलांची माळ, हती, पुराय चंद्रीम, उदेतो सूर्य, भांगराचे दोन कलश आदी चवदा गजालींचो आस्पाव आसता. तीर्थंकर जल्माक येवचे आदीं कुबेर त्या नगराचेर स म्हयने रत्नांचो पावस घालता. तो जल्माक येतकच इंद्र आपल्या कुटुंबासयत धर्तरेचेर येता आनी ताका घेवन



मेरुपर्वताचेर वता. थंय ताचेर सगळे देव अभिशेक करून ताका परत आवय म्हऱ्यांत हाडून पावयतात. तीर्थंकराचे वट्ट जिणेंत पांच तरांचे उत्सव जातात. तांकां पंचकल्याणक अशें नांव आसा. गर्भकल्याणक, जल्मकल्याणक, दीक्षाकल्याणक, केवलज्ञानकल्याणक आनी निर्वाणकल्याणक अशीं तांचीं नांवां आसात.

तीर्थंकराक केवलज्ञान प्राप्त जातकच तो जेन्ना धर्मोपदेश करूंक येता, तेन्ना देव थंय येवन एका दिव्य सभामंटपाची रचणूक करता असो भावार्थ आसा. ह्या सभामंडपाक चारूय वटांनी चार दारां आसतात. मुखेल दारामुखार एक व्हड मानस्तंभ उबारिल्लो आसता. देव, देवी, साधू, साध्वी आदीच्यो बारा तरांच्यो परीशदो मानल्यात. तीर्थंकर अशोक झाडाखाला शींवासनार बसून आपले दिव्य वाणीन उपदेश करतात. अशा वेळार तांचें तोंड चारूय दिशेवटेन दिसता अशें समजप जाता.

जैनांनी तीर्थंकरांक देवापरसय व्हड मानल्यात. जायते देव - देवता, यक्षयक्षिणी तीर्थंकरांचे सेवक शरीरक्षक मानल्यात. तीर्थंकरा भोंवतणीं बारा सभा आसून तातूंत गणधर, मुनी, कलावासी, देवी, आर्यिका आनी बायलो, भवनवासी देवी, ज्योतिशवासी देवी, इंद्रासयत कल्पवासी देवी, इंद्रासयत भवनवासी देवी, इंद्रासयत व्यंतरवासी देव, मनीस आदी आसात.

भूत, वर्तमान आनी भविश्य ह्या तिनूय काळांत दरेकी चोवीस तीर्थंकरांचें अस्तित्व मानून घेतलां. जंबुद्वीपाच्या भरतक्षेत्रांतल्या चोवीस तीर्थंकरांचें पुराय विवरण तिलोयपण्णत्तीत दिल्लें आसा. भारताच्या वर्तमान काळांतल्या चोवीस तीर्थंकरांमदीं ऋषभदेव हो पयलो जाल्यार महावीर हो निमाणो म्हळ्यार चोविसावो तीर्थंकर. ह्या चोवीस तीर्थंकरांविशीं जैन ग्रंथांत म्हायती दिल्ली आसा. हे चोवीस तीर्थंकर अशे - १) ऋषभ वा आदिनाथ २) अजितनाथ ३) संभवनाथ ४) अभिनंदननाथ ५) सुमतिनाथ ६) पद्मप्रभ ७) सुपार्श्वनाथ ८) चंद्रप्रभ ९) पुष्पदंत १०) शीतलनाथ ११) श्रेयासनाथ १२) वासुपूज्य १३) विमलनाथ १४) अनंतनाथ १५) धर्मनाथ १६) शांतिनाथ १७) कुंथुनाथ १८) अरहनाथ १९) मल्लीनाथ २०) मुनिसुव्रतनाथ २१) नमिनाथ २२) नेमीनाथ २३) पार्श्वनाथ २४) महावीर वा वर्धमान.

सगळ्या तीर्थंकरांचो जल्म उदेंत भारताच्या नगरांतल्या क्षत्रीय कुळांत आनी राजवंशात जालो असो उल्लेख मेळटा. तीर्थंकर ७ आनी २३ हे उग्रवंशीय जाल्यार १५,१६ आनी १७ हे कुरुवंशांत जल्मल्ले. महावीर हो नाथ कुळांत आनी हेर सगळे क्षत्रीय कुळांत जल्मले असो उल्लेख मेळटा. ह्या चोवीस तीर्थंकरांतले ऋषभ, नेमी, पार्श्व आनी महावीर हे चार इतिहासीक मनीस आशिल्ले असोय उल्लेख मेळटा.

**तीर्थंकरांच्यो मुर्ती :** सायप्रस जुंव्यांत अलाशियाच्या उत्खननांत इ.स. आदीं १२५० काळांतली आदिनाथाची पंचधातूची मूर्त मेळ्ळ्या. भारतांत जायतेकडेन तीर्थंकरांच्यो मुर्ती मेळटात. श्वेतांबर आनी दिगबंर ह्या पंथभेदाप्रमाण तीर्थंकरांच्या मुर्तींतूय फरक पडिल्लो आसा. श्वेतांबरांच्यो मुर्ती वस्त्रां आनी अलंकार घाल्ल्यो आसात जाल्यार दिगंबराच्या मुर्तींचेर वस्त्र आनी अलंकार दिश्टी पडनात. मुर्तीचे सकयले बसकेर त्या त्या तीर्थंकरांचीं चिन्नां कोरातिल्लीं आसात. कांय मुर्ती शींवासन आनी प्रभावळ हांचेसकट मेळ्ळ्यात. अबुच्या पहाडाचेर (दोंगराचेर) आदिनाथ देवळांत आदिनाथाची सुमार ४०३१किग्रॅ. (१०८मण) वजनाची पद्मासनांतली मूर्त आसा. ती मूर्त पंचधातुची आसून तिची उंचाय सुमार २.५ मी. आसा. पाटण्यालागसारच्या राजगृह हे सुवातेवयली ऋषभनाथ आनी नेमिनाथ हांच्यो मुर्ती तशेंच बांकुरा लागसारच्या देऊळभिडाची पार्श्वनाथाची मूर्त पळोवपासारकी आसा.

- को. वि. सं. मं.

## तीर्थयात्रा

**तीर्थयात्रा :** पवित्र थळांक दिल्ली धर्मीक भेट. थरावीक सुवातींनी देव अदृश रुपांनी वावुरता हे लोक भावनेंतल्यान, तीर्थयात्रेचो उगम जालो आसुंये. देवाचें दर्शन, न्हाण, श्राध्द, पुजा तशेंच हेतुपुर्तीखातीर केल्लें दान, आंगवण सारकिलीं धर्मीक कार्यां, थरावीक अशा पवित्र सुवातींचेर केल्यार चड पुण्य फल मेळटा अशी भांवना आसा. ह्या वा आनीक खंयच्याय उद्देशान अशा धर्मीक थळांक भेट दिवपाचे भोंवडेक तीर्थयात्रा म्हण्टात. जगांतल्या दर एका धर्माप्रमाण धर्तरेवयलीं कांय खाशेलीं थळां पवित्र मानतात. ह्यां थळांक तीर्थक्षेत्रां म्हण्टात. दर एक धर्माच्या धर्मगुरुंनी आप आपल्या अनुयायांखातीर अशा तीर्थक्षेत्रांची शिफारस केल्ली आसा. खंयच्याय उद्देशान तीर्थयात्रा करप जाली तरी पाप-निवारण आनी पुण्य - संचय हे तीर्थयात्रेफाटले दोन मुखेल उद्देश आसतात.

तीर्थ म्हळ्यार तारक. 'तरति पापादिकं यस्मात्' म्हळ्यार जाचेवरवीं मनीस पापांतल्यान पेंवन वता तें तीर्थ. अमरकोशांत तीर्थ शब्दाचे जे अर्थ दिल्यात ते अशे - उदक आशिल्ली सुवात, आगमशास्त्र, ऋषींच्या आश्रयांची सुवात. हे भायर देवांचीं निवासस्थानां, पवित्र भूंय-वाठार हांकां स्कंदपुराणांत तिर्थां म्हळ्यांत. वेगवेगळ्या ग्रंथांनी तीर्थ ह्या शब्दाची उपमा वेगवेगळ्या घटकांक दिल्ली आसली तरी सादारणपणान तीर्थ म्हळ्यार पवित्र उदक अशेंच मानतात आनी भोवतेक सगळ्या तीर्थक्षेत्रांचो संबंद ह्या पवित्र उदकाकडेन, ह्या ना त्या रुपांत येता.

हिंदूंच्या मतान, सैमांत देवताशक्त वावरत आसता. ताका लागून दोंगर, न्हंयो, दर्या, रानां, रूख हांकां हिंदू धर्मांत तीर्थक्षेत्राचें स्वरुप प्राप्त जालां. उदकांत पवित्र करपाचो गुणधर्म आशिल्ल्यान, न्हाण घेतकच पाप आनी पिडा ना जातात, हे समजुतीन जलतिर्थांक म्हत्व येता. देव, देवांचे अवतार वा प्रेषित हांच्या वास्तव्याक लागून आनी चमत्कारांक लागून पावन जाल्लीं थळां तीर्थक्षेत्रां जाल्यांत. अशा सुवातींनी उपास्य देवतांच्या मुर्तींची स्थापणूक करतात. देवळां, समाधी, स्तूप, कबरी, दर्गे ह्यो पवित्र वास्तू तयार जातात. ह्या सुवातींनी पवित्र शक्तिचें वास्तव्य आसता अशें मानतात. विशिश्ट देवता वा एकाद्रे व्यक्तीचो आत्मो, थंय सुक्ष्म रुपांत वावुरता आनी थंय वता ताचेर ताची कृपा जाता असो समज आसा.

दर एका भावार्थी मनशाक आपले जिणेंत एकदां तरी तीर्थयात्रा घडची अशें दिसता. ती जालिना जाल्यार आपल्या हातांतल्यान घडिल्ल्या ल्हान-व्हड पातकांचें निवारण जावचेंना आनी आपल्याक सर्ग वा मोक्ष मेळचोना अशी ताची भावना आसता. तिर्थाचेर वचून पितरांचें श्राध्द केलेंना जाल्यार तांचो उध्दार जायना असोय एक समज आसा. भारत देशांत हजारांनी तिर्थां आसात. त्या सगळ्यांची यात्रा करप कोणाकूच शक्य ना. पूण चडशे लोक काशी - रामेश्वर, चार धामां, बारा ज्योतिर्लिंगां आनी सात पुऱ्यांची यात्रा करतात. हिंदू धर्मांत जायते धर्मपंथ आसले तरी त्या सगळ्यांनी तीर्थयात्रेक चड प्राधान्य दिलां. तीर्थक्षेत्रांतलें धर्मीक वातावरण, विद्वान आनी साधूमनीस हांचें दर्शन, थंयचे नेम, त्या त्या

सुवातींनी घडिल्ल्या पुराणीक घडणुकांचें संस्मरण, हांकां लागून तीर्थयात्रेक एक आध्यात्मिक स्वरूप प्राप्त जालां.

हिंदू धर्मांत चारूय आश्रमांतले लोक, ब्राह्मण आनी हेर उच्चवर्णीय लोक, बायलो, शूद्र, संकरांतल्यान जल्मल्ले, वर्णबाह्य, चांडाळ, म्लेंछ, पिडेखोर, पापी ह्या सगळ्यांक तीर्थयात्रेचो अधिकार आसा. यज्ञ, तीन रिणां, कुटुंबाची उपजिविका हीं कर्तव्यां पुराय केलिनात जाल्यार मात हो अधिकार मेळना, अशेंय मत आसा. आवय-बापायच्या मरणा उपरांत एका वर्सामेरेन आनी बायल गुरवार आसल्यार तीर्थयात्रेक वचचें न्हय अशें हे संबदीचें शास्त्र सांगता.

यात्रेक वचपाचो दीस थारतकच, ताच्या आदल्या दिसा एकुच जेवण जेवचें. दुसऱ्या दिसा मुंडण करून उपास करचो. ताचेपयलीं यात्रेकऱ्यान आपल्या सगळ्या इंद्रियांचेर संयम राखूंक जाय. खंयच्या तिर्थाक वचपाचें, तो संकल्प करतकच गणपती, ग्रह आनी इश्ट देवतांची पांच वा सोळा उपचारांनी पुजा करची. पार्वणश्राध्द करतकच उण्यांत उण्या तीन ब्राह्मणांचो वा पुरयतांचो भोवमान करचो. उपरांत यात्रेकऱ्याचो भेस घालून गांवाक वा आपल्या घराक प्रदक्षिणा घालची. तीर्थयात्रा पुराय करून घरा पावतकच सोयऱ्या-धायऱ्यांक आनी शेजाऱ्या-पाजाऱ्यांक 'म्हामनी' (जेवण) घालपाची प्रथा आसा.

तिर्थाचे सुवातेर न्हावप खूब म्हत्वाचें मानतात. मनशांचीं पापां ताच्या केंसांनी उरतात अशी समजूत आशिल्ल्यान तीर्थक्षेत्राचेर कांय दादले आनी बायलो आपखोशयेन मुंडण करतात. सवायशीण बायलेच्या केंसांचे दोन आगळ कापून सांकेतीक मुंडण करपाची तरतुद आसा. पितरांचें तर्पण, पींडदान आनी श्राध्द हांकां तिर्थांत खूब म्हत्व आसता.

तीर्थयात्रेक लागून यज्ञाइतकें वा चड फळ मेळटा अशी समजूत आसा. यज्ञ यागाच्यो विधी करप आनी ताचेर जावपी खर्च सोंसप सादारण मनशाचे कुवती भायली गजाल जावन पडटा. सामान्य मनशाक परवडपी असो मोक्षप्राप्तीचो उपाय म्हणून तीर्थयात्रा हो यज्ञ-यागाक पर्याय थारता. महाभारत, काशीखंड, प्रयागमाहात्म्य, गयामाहात्म्य, गंगामहात्म्य सारकिल्या पुराणांनी तीर्थयात्रेच्या माहात्म्याचीं वर्णनां मेळटात. परशुराम, राम, बलराम, अर्जून ह्या पुराणकाळांतल्या व्यक्तींच्यो तशेंच शंकराचार्य, वल्लभाचार्य, चैतन्य, रामदास ह्या इतिसकाळांतल्या व्यक्तींच्यो तीर्थयात्रा प्रसिध्द आसात.

तीर्थयात्रा केल्यार सगळ्या जल्मांतलीं पापां सोंपतात. सगळ्या पिळग्यांचो उद्दार जाता, अशो कल्पना आसात. यात्रेक लागून पाप्यांचें पाप सोंपता आनी पुण्यवंतांचें पुण्य वाडटा. पांयांनी भोवंडी केल्यार चड पुण्य मेळटा. संयमी, अहंकारहीन, अल्पसंतुश्ट, सत्यवचनी आनी व्रतनिश्ठ अशे व्यक्तीक पुराय फळ मेळटा. पूण वाहनां वापरल्यार अर्दें, सत्री आनी पादुका हांकां लागून अर्दें, वेपारान तीन-चवथय आनी प्रतिग्रहांक लागून सगळें पुण्य ना जाता. कोणाय मनशान आवय, बापूय, भाव, इश्ट आनी गुरू हांकां दोळ्यांमुखार दवरून न्हाण घेतल्यार ते ते व्यक्तीक एक-बारांश पुण्य मेळटा. धर्मशाळा, पाणपोय, अन्नाची सोय असल्या मार्गांनी यात्रेकरूची सोय करपी व्यक्तीक एक-चवथय पुण्य मेळटा. हेखातीर कांय धनीक लोक, पुण्यफळाचे अपेक्षेन, तीर्थक्षेत्राचे सुवातेर, यात्रेकऱ्यांखातीर फुकट जेवण-खाणाची तशेंच रावपाची वेवस्था करता.

तिर्थांचे जशे प्रकार आसतात तशेच तीर्थयात्रांचेय सात्विक, राजस आनी तामस अशे प्रकार आसात.

तीर्थविवेचनांत संख्येकूय म्हत्व आसा - प्रयाग, काशी आनी गया हांचे यात्रेक त्रिस्थळी यात्रा म्हण्टात. जगन्नाथपुरी, रामेश्वर, द्वारका आनी बद्रीकेदार हीं चार नामनेंची धामां; काशी, कांची, मायापुरी (हरद्वार), अयोध्या, द्वारावती (द्वारका), मथुरा आनी अवंतिका (उज्जैन वा उज्जयिनी) ह्या सात क्षेत्रांक हिंदू मोक्षदायक सप्तपुऱ्यो मानतात. तशेंच अष्टविनायक, १० भास्करक्षेत्रां, १२ ज्योतिर्लिंगां, १४ प्रयाग, ५१ शक्तिपिठां, ५१ सिद्धक्षेत्रां, ८४ गंगा, १०८ शैव आनी १०८ वैष्णव दिव्यदेश, देवींचीं १०८ स्थानां प्रसिद्ध आसात.

कांय खाशेली नक्षत्रां आनी गिरे हांचो जेन्ना योग जाता, तेन्ना कांय क्षेत्रांनी कुंभमेळ, माघमेळ अशे मेळे भरतात. तेन्ना त्या त्या क्षेत्रांतल्या जलाशयांतल्यान गंगा गुपीत रूपांत वावूरता असो समज आसा. अशा मेळ्यांनी घडिल्लें न्हाण पुण्यकारी समजतात. गिराणाच्या वेळार तीर्थार केल्लें न्हाण पुण्यकारक मानतात.

**संस्कृतीक-समाजीक संदर्भ :** पुण्य-फल, मोक्ष आदी प्राप्तीच्या उद्देशान तीर्थयात्रेचें प्रयोजन जाता आसलें तरी तिचेपसून कांय संस्कृतीक-समाजीक फायदेय आपसुकूच घडिल्ले दिसतात. समाजीक समता, समाजीक एकचार, भुगोलीक अभ्यास, आध्यात्मिक गिन्यान, मनाशांती, संवसारदर्शन ह्या सारकिल्या गजालींचो तीर्थयात्रा करतल्याक आपशींच योग घडटा.

आदल्या काळांत, येरादारीची आनी अन्न निवाऱ्याची व्हडलीशी सोय नासतना लेगीत भावीक लोक व्हड कश्टांचे अशे तीर्थयात्रेचे संकल्प करून ते पुराय करताले. आयच्या काळांत सगळ्यो सुविधा हाताकडेन आसून लेगीत, लोकांचो तीर्थक्षेत्रावयलो भावार्थ कमी जाल्लयान, तीर्थयात्रा आदले प्रमाण घडना.

## संवसारांतलीं नामनेचीं तीर्थक्षेत्रां : हिंदू तीर्थक्षेत्रां :

**त्रिस्थळी यात्रा** : प्रयाग, काशी आनी गया ह्या तीन तिर्थांचे त्रिस्थळी यात्रेक पुण्यकारक मानतात. प्रयागाक गंगा, यमुना आनी सरस्वती हांचो त्रिवेणी संगम जाता. माघ म्हयन्यांत, त्रिवेणी संगमाचेर न्हावप खुबूच पुण्यकारक मानलां. काशी ही सात पुऱ्यांतली पयली आसून, हांगाचो विश्वेश्वर बारा ज्योतिर्लिंगांतलो एक. काशीची पंचक्रोशी हें पवित्र स्थान. पितृश्राध्दाखातीर गया हें क्षेत्र खूब प्रसिद्ध आसा. हांगाचो बोधिवृक्ष बौद्धांचो आसलो, तरी हिंदू लोक लेगीत ताका पवित्र मानतात.

**चार धामांची यात्रा** : बद्रीनाथ, द्वारका, जगन्नाथपुरी आनी रामेश्वर हीं भारताच्या चार तोकांनी आशिल्लीं चार म्हत्वाचीं धामां.

बद्रीनाथ - बद्रीनाथ हें धाम हिमालयांत आसा. अलकनंदा न्हंयेचे देगेवयल्या मंदिरांत शाळिग्राम **शिळेची** नारायणाची मूर्त आसा तोच बद्रीनाथ. थंयच ब्रह्मकपाल नांवाचो एक व्हड खडप आसा, ते सुवातेर श्राद्ध करतात. ह्या क्षेत्रांत नरनारायणान तप केल्लें अशें मानतात.

द्वारका - द्वारका ही अस्तंतेक, दर्यादेगेक गोमतीचेर आसा. भगवान श्रीकृष्णाचे हे नगरींत, रणछोडजीचें देवूळ हें मुखेल स्थान आसा. ह्या देवळाकडल्यानच द्वारकेचे प्रदक्षिणेक सुरवात जाता. ह्या देवळाचे उदेंतेक शारदामठ आसून, लागसारूच वल्लभाचार्याचीय बैठक आसा.

जगन्नाथपुरी - उदेंतेक ओरिसांतले दर्यादेगेर जगन्नाथपुरीचें पुरूषोत्तमतीर्थ हें धाम आसा. जगन्नाथमंदिरांत जातीभेद मानिनात. हांगासावन शिताचो महाप्रसाद सुकोवन गांवागावांनी व्हरतात. हांगा पुनवेच्या दिसा न्हावप पुण्यकाराक मानतात. हांगाच्या म्हत्वाच्या २४

उत्सवांभितर, आषाढ शु. द्वितीयेक चालू जावपी रथयात्रेची परब म्हत्वाची आसता. इंद्रद्युम्न कुंडाचे देगेर एका माटवांत आठ दीसमेरेन गुंडीचायात्रा चलता.

रामेश्वर – रामेश्वर हें दक्षिणेक दर्यादेगेर आशिल्लें धाम बारा ज्योतिर्लिंगातलेंच एक. हांगा श्राद्ध, पींडदान, भांगराच्या धनुष्याचें दान करतात. तशेंच थंय रेंवेचें लिंग करून ताची पुजा करतात. यात्रेकरी हांगासावन रेंवेचें सेतुमाधवलिंग आपलेवांगडा व्हरून तें प्रयागतिर्थांत गंगेत सोडटात. काशी रामेश्वराची यात्रा ही हिंदूंची सगळ्यांत म्हत्वाची यात्रा मानल्या.

**मोक्ष दिवपी सात पुन्यो :** काशी, कांची, मायापुरी (हरद्वार), अयोध्या, द्वारावती (द्वारका), मथुरा आनी अवंतिका (उज्जैन वा उज्ञयिनी) ह्या सात पुन्यांतल्यो काशी आनी द्वारका हांचें वर्णन वयर आयलां. कांची हें दक्षिणेतलें नामनेचें वैष्णव क्षेत्र, शैव क्षेत्र आनी शाक्त क्षेत्र आसा. मायापुरी (हरद्वार) ही हिमालयांतल्या मायापुरी, हरद्वार, कनखल, ज्वालापूर आनी भीमगोडा हीं पांच तिर्थां मेळून हरद्वार म्हण्टात. अयोध्या ही रामाची राजधानी. पयल्या आनी चवथ्या तीर्थकरांचें जल्मस्थान आशिल्ल्यान हें जैनांचेंय पवित्र क्षेत्र. कृष्णपुजा आनी भागवत धर्म हांचें मथुरा हें केंद्र. मथुरेच्या वाठारांत १२ रानां आनी २४ उपवनां हांचो उल्लेख मेळटा. वृंदावन हें मुखेल. लागसारूच गोवर्धन पर्वत आनी गोकुळ हीं पवित्रस्थानां आसात. अवंतिकेक महाकालेश्वर आशिल्ल्यान हें बारा ज्योतिर्लिंगांतलें एक मानतात. तशेंच हें शक्तिपीठ लेगीत आसा.

शिवलिंगां खूब आसात, पूण तांतूतलीं बाराच लिंगां मुखेल आसून, तांकांच ज्योतिर्लींगां म्हळां. तीं अशीं आसात – सोमनाथ, विश्वेश्वर, रामेश्वर, महाकालेश्वर, मल्लिकार्जुन, ओंकार आनी अमलेश्वर, केदारनाथ, भीमाशंकर, त्र्यंबकेश्वर, वैद्यनाथ वा वैजनाथ, नागनाथ वा नागेश, घृष्णेश्वर.

हेर कांय शैव क्षेत्रां आसात, तीं अशीं - सूर्य म्हळ्यार शिवच, अशें मानतात, तेखातीर ओरिसांतली कोणार्कच्या सुर्यमंदिरासारकीं देवळां हीं शिवमंदिरांच. सौराष्ट्रांतलें सोमनाथ आनी बंगालांतलें चंद्रनाथ हीं शिवाचीं चंद्ररुपां आसात. नेपाळांतलें पशुपतिनाथ महादेव हें यजमानमुर्तीचें तीर्थ. शिवकांची गावांत एकाम्रेश्वर हें क्षितिलिंग, श्रीरंगनाथासावन लागींच आशिल्लें जंबुकेश्वर हें अप्-लिंग, अरुणाचलांत तेजोलिंग, काळहस्तीश्वराक वायुलिंग आनी चिदंबरमाक आकाशलिंग आसा. तशेंच हिमालयांत कैलास, काश्मीरांत अमरनाथ, उत्तर प्रदेशांत गढमुक्तेश्वर आनी उत्तरकाशी, नेपाळांत मुक्तिनाथ, गुजरातांत हाटकेश्वर आनी अश्विनी कुमारेश्वर, महाराष्ट्रांत शिखरशिंगणापूर आनी महाबळेश्वर, कोल्हापूरचो-जोतिबा, दक्षिणेंत मायावरण, गोकर्ण महाबळेश्वर, मध्यार्जुनक्षेत्र, तिरुवारूर, तंजावर, तिरुनेलवेली, तेनकाशी हीं मुखेल शैव क्षेत्रां आसात. महाराष्ट्रांत पुण्याक जेजुरी आनी सातान्यांत पालीचो खंडोबा हींय शिवाचींच रुपां.

**शक्तिपिठां :** देशांत वट्ट १०८ देवीचीं स्थानां सांगतात. देवीचीं ५१ शक्तिपिठां आसात अशी कल्पना आसा. दक्षाच्या यज्ञांत अपमान जाल्यान सतीन प्राणाचो त्याग केलो. ताका लागून दुखेस्त शंकर सतीचें मडें आपल्या खांदार घेवन नाच करीत त्रैलोक्यांत भोंवपाक लागलो. हें पळोवन विष्णुन आपल्या चक्रान सतीच्या देहाचे कुडके करून ते देशाच्या विंगड विंगड वाठारांनी उडयले. हे कुडके आनी तिचे हेर अलंकार ५१ सुवातींनी पडले. थंय दरेक सुवातेर एक एक शक्त आनी एक एक भैरव आसात. ते ते सुवातेक उपरांत शक्तिपीठ म्हणूंक लागले. तातूंतलीं कांय मुखेल शक्तिपिठां अशीं - कामाख्या, कामाक्षी, कन्याकुमारी, काली, महालक्ष्मी, काशी, वृंदावन, श्रीशैलम्, पंचवटी, प्रभास, उज्जयिनी, पुष्कर, मानस सरोवर, प्रयाग, जगन्नाथपुरी, अमरकंटक, पशुपतिनाथ आनी कुरुक्षेत्र.

महाराष्ट्रांतले देवीची 'औट' म्हळ्यार साडेतीन स्थानां नामनेचीं आसात. तीं अशीं - मातापूरची (माहूर) रेणुका, तुळजापूरची भवानी, आंबेजोगाईची योगेश्वरी आनी कोल्हापूरची महालक्ष्मी (अर्दें पीठ) हीं देवीचीं साडेतीन पिठां मानतात.

मदुरा हें दक्षिणेतलें म्हत्वाचें तीर्थक्षेत्र आसून थंय मीनाक्षीचें व्हड देवूळ आसा. म्हैसूरचें चामुंडादेवीचें म्हळ्यार महीषासुरमर्दिनीचें देवूळ प्रसिद्ध आसा. गोंयची शांतादुर्गा आनी सौंदत्ती, धारवाडची रेणुका म्हळ्यारच यल्लमा, ह्यो देवीच्यो कांय हेर सुवाती आसात.

**गणपतिक्षेत्रां :** महाराष्ट्रांतलें अष्टविनायक; प्रयागाचो ॐकार गणपती आनी काशीचो ढुंढीराज वा धुंडीराज गणपति; यवतमाळ जिल्ह्यांतलें कळंबचें चिंतामणिक्षेत्र आनी अदोषचें शमी विघ्नेश; नर्मदेचे देगेर पारिनेर हें मंगलमूर्ती क्षेत्र; परभणी जिल्ह्यांत, गंगामसलेचें भालचंद्रगणेश क्षेत्र; औरंगाबाद जिल्ह्यांत, राक्षसभुवनचें विज्ञानगणेश क्षेत्र; तेलंगणांत विजयपूरचो गणेश; वेरुळचो लक्षविनायक; पाचोन्यालागसार पद्मालयचो सहस्त्रार्जुनाचो उपास्य गणेश; जालन्यालागसार नामलगावचो गणपती; औरंगाबाद जिल्ह्यांत, राजूर हांगाचो गणपती; कावेरीचे देगेर कुंभकोणम्चो श्वेत-विघ्नेश्वर तीर्थ; कुलाबा जिल्ह्यांत मुरुडचो गणेश; रत्नागिरी जिल्ह्यांत गणपतीपुळे हीं गणपतीचीं नामनेचीं क्षेत्रां आसात. तशेंच कुलाबा जिल्ह्यांतलो टिटवाळा आनी कर्नाटक राज्यांत इडगुंजी, कुरूडमळे, शिर्शी आनी शिराळी ह्या क्षेत्रांनी गणपतीचीं स्थानां आसात.

**दत्त संप्रदायाची तीर्थक्षेत्रां :** पुराणांनी दत्ताचें शयनस्थान म्हणून वर्णिल्ल्या माहूर गांवांत चांगदेव राऊळ हाका साक्षात्कार जाल्लो अशें म्हण्टात. गिरनार पर्वताच्या (सौराष्ट्र) शिखराचेर दत्तोपासनेचें एक पुर्विल्लें केंद्र आसा. दत्ताचो अवतार म्हणून मानिल्ल्या नरसिंह सरस्वतीचें जल्मस्थान अकोला जिल्ह्यांत, कारंजे गांवांत श्रीगुरूच्या पादुकांची स्थापना केल्या. कृष्णादेगेर सांगलींत, औदुंबर गांवांत एक फावट नरसिंह सरस्वती चातुर्मासाक बशिल्ल्यान ही सुवात पवित्र मानतात. कृष्णा आनी पंचगंगा हांच्या संगमाचेर, कोल्हापूरांत नरसोबाची वाडी गांवांत नरसिंह सरस्वती बारा वर्सां राविल्लो. हांगाच कृष्णेच्या घाटाचेर दत्ताच्या, 'मनोहर पादुकांचें' देवूळ आसा. भीमा आनी अमरजा हांच्या संगमाचेर गुलबर्गांत गाणगापूराक नरसिंह सरस्वतीचें तेवीस वर्सां वास्तव्य आशिल्लें. हांगाच्या पादुकांक 'निर्गुण पादुका' म्हण्टात. तशेंच नेपाळांतलें भटगांव, दक्षिणेंतलें बाबा बुढण, पांचाळेश्वर, प्रवरादेगेवयलें जोर्वे, चित्रकूटा लागसारचो अनुसूया दोंगर आनी ताचेवयलें दत्त जल्मस्थान, ब्रह्मावर्तचें ध्रुवस्थान, माणिकप्रभूचें माणिकनगर, अक्कलकोटकार स्वामीचें अक्कलकोट, वासुदेवानंद सरस्वतीचें गरुडेश्वर, रत्नागिरी जिल्ह्यांतलीं हुमणाबाद आनी माणगांव हींय नामनेचीं स्थानां आसात.

**कांय मुखेल वैष्णव क्षेत्रां :** मुरादाबादेंत संभल गांवांत भगवान कल्कीचो अवतार जातलो अशें मानतात. नेपाळांतलें वाराहक्षेत्र वा कोकामुख हें कोसी न्हंयेचे देगेवयलें नामनेचें क्षेत्र. गुजरातेंत डाकोर हांगाचें रणछोडजीचें देवूळ, आंध्र प्रदेशांतल्या तिरूपतीचो बालाजी, म्हैसुरालागसार श्रीरंपट्टम् हांगाची नारायणाची मूर्त, मेलूकोटे वा यादवगिरी हें दक्षिणेंतल्या

चार मुखेल वैष्णव क्षेत्रांतलें एक. सिंहाचलमाक वाराह लक्ष्मीनृसिंहाचें देवूळ विजयवाड्यांतल्या पनानृसिंह गांवांत लक्ष्मीनृसिंहाचें देवूळ, चेन्नईलागसार तिरूवळ्ळुर गांवांत वरदाराजाचें व्हड देवूळ, तशेंच विष्णुकांचीक विष्णुचीं १८ देवळां आसात. श्रीरंगम् हाका भुंयेवयलें वैकुंठधाम मानतात. थिरूवनंतपुरमाक पद्मनाभाचें, जनार्दन गांवांत जनार्दनाचें आनी श्रीविल्लीपुत्तुराक श्रीरंगनाथाचें देवूळ आसा. उत्तरेक वैष्णवीदेवी, देवप्रयाग, विंध्याचल, देवी पाटण हीं म्हत्वांचीं क्षेत्रां आसात. पंजाबांत अंबाला जिल्ह्यांत पृथूदक हें म्हत्वाचें क्षेत्र आसून थंय श्राध्द करपापसत हजारांनी यात्रेकरी येतात. कुरूक्षेत्र, चित्रकूट हीं पवित्र क्षेत्रां, उदेंतेक सीतामढी आनी मुझफरपूर जिल्ह्यांतलें जनकपूर हीं स्थानां, गयेलागसार बराबर हें तीर्थक्षेत्र, मध्य प्रदेशांत शबरीनारायण आनी महाराष्ट्रांत, नागपूर जिल्ह्यांतलें रामटेक, रत्नागिरींतलें परशुरामक्षेत्र, वाई हीं नामनेचीं वैष्णव क्षेत्रां आसात. अस्तंत भारतांत, लोहागर्ल, एकलिंगजी, सिध्दपूर, शामळजी, अंबाजी हीं नामनेचीं क्षेत्रां आसात. दक्षिण भारतांत शियाळी, मन्नारगुडी, कुंभकोणम्, नंजनगुड, बेलूर, हंपी, हरिहर हीं क्षेत्रां आसात.

**नाथ संप्रदायाचीं क्षेत्रां** : गोरखपूर हें सगळ्यांत म्हत्वाचें स्थान. पंजाबांतलें श्रीगोरखटिल्ला, बलुचिस्तानांतलें देवी हिंगलज हें म्हत्वाचें तीर्थ मानतात. होशियारपूर जिल्ह्यांतलें श्री गोरख डिब्बी आनी कपुरथळा हीं स्थानां पवित्र मानतात. नेपाळांत काठमांडूंत मत्स्येंद्रनाथाचें देवूळ आसा. गिरनार पर्वताचेर गोरखनाथाच्यो धुनी आनी पादुको आसात. महाराष्ट्रांतल्या त्र्यंबकेश्वराच्या त्र्यंबकमठांत कुंभमेळ्याच्या वेळार नाथ पंथाच्या बाराय फांट्याचे जोगी एकठांय येतात. महाराष्ट्रांत पांडुधूनी, पैठण, गंभीरमठ, बत्तीस शिराळे, वृध्देश्वर, आळंदी लागसार आशिल्लें अडबंगनाथमंदिर आनी सासवड लागसार दिवेघाट हीं स्थळां तेच भशेन प्रयाग, अयोध्या, त्र्यंबकेश्वर, द्वारका, हरिद्वार, बद्रीनाथ ह्या थळांची नाथपंथी योगी लेगीत यात्रा करतात. तेचप्रमाण शिव, भैरव आनी शक्ती हांच्या देवळांनीय ते वतात.

**चैतन्य संप्रदायाचीं तीर्थक्षेत्रां** : नडिया जिल्ह्यांत, नवद्वीप गांवांत चैतन्य महाप्रभूचे जिणेंतल्यो घडणुको घडल्यो. देखून ताचे यादीक धामेश्वर, सोनार गौरांग, शचीमाता-विष्णुप्रिया देवूळ हीं स्थानां आसात. वृंदावन हेंय संप्रदायाचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. जगन्नाथपुरीक संप्रदायाचे जायते मठ आसात.

**महानुभावांचीं तीर्थक्षेत्रां :** महानुभाव पंथाचो संस्थापक चक्रधर हाणें आपल्या अनुयायांक, खंयच्याच क्षेत्राक वा मठांत वचचें न्हय अशी आज्ञा दिल्ली. पूण चक्रधरान ज्या देवळांनी, मठांनी वा व्होंवरींनी वास्तव्य केल्लें, त्यो सगळ्यो सुवाती, ताचे अनुयायी पूज्य मानतात. ह्यो सगळ्यो सुवाती 'ओटे' ह्या स्वरूपांत आसात. चांगदेव राऊळाची जल्मसुवात फलटण, राबित्याची सुवात माहूर आनी गोविंदप्रभूची राबित्याची सुवात ऋद्धिपुर हीं स्थानां पवित्र मानतात. तशेंच पठण, वेरूळ गोदावरीचे देगेवयलें डोंबेगाव आनी बेलापूर हीं थळां पवित्र मानतात. आपेगाव, बीड, त्र्यंबक, जोगेश्वरी, मढ, पिंपरी, अरणगाव, भिंगार, रामदास ह्या सुवातींनी ओटे आसात.

**वारकरी संप्रदायाचीं तीर्थक्षेत्रां :** पंढरपूर हें ह्या संप्रदायाचें म्हत्वाचें तीर्थक्षेत्र. इंद्रायणी न्हंयेचे देगेर आळंदीक ज्ञानेश्वराची समाधी आसा. देहूक तुकारामाच्या निर्याणादिसा निमतान फाल्गुन वद्य द्वितीयेक व्हड यात्रा भरता. गोदावरीचे देगेर आशिल्ल्या एकनाथाच्या पैठणाक पयलीं दक्षिण काशी म्हण्टाले. सोलापुरांतलें मंगळवेढे निळोबाचें, पिंपळनेर, निवृत्तिनाथाचें त्र्यंबकेश्वर, सोपानाचें समाधिस्थान सासवड, मुक्ताबाईचें एदलाबाद, सावता माळ्याचें अरण, गोरा कुंभाराचें तेर, कुर्मदासाचें लऊळ, ज्ञानेश्वरी बरयली तें नेवासे हीं थळां तीर्थक्षेत्रां आसून थंय यात्रा भरतात.

**सुब्रह्मण्यक्षेत्रां :** सुब्रह्मण्याचीं चडशीं देवळां दक्षिण भारतांत आसात. तातूंतलीं तिरूप्परंकुन्रम्, तिरूचेंडूर, पळणी, अलगरमलई, स्वामिमलई आनी तिरूत्तणी हीं स मुखेल देवळां आसात. पळणीचें देवस्थान जागृत आसून थंयचो देव बालसुब्रह्मण्य ह्या रुपांत नवसाक पावता असो समज आसा.

**वीरशैवांचीं क्षेत्रां :** बसवकल्याण गांवांत एक देवूळ आसा तातूंत अल्लमप्रभूची बैठक आसा. कारवारांत उळवी हांगा चेन्नबसवाची समाधी आसा.

**कबीर पंथी क्षेत्रां :** गोरखपूर जिल्ह्यांतल्या मगहराक कबीर आनी ताचो पूत कमाल हांची समाधी आसा. ताका लागून हें तीर्थक्षेत्र ज़ालें.

**समर्थ संप्रदायाचीं क्षेत्रां** : समर्थाची जल्मभूंय जांब, कर्मभूंय चाफळ आनी समाधीभूंय सज्जनगड हीं थळां पवित्र मानतात. समर्थान खुबशे मठ स्थापन केले. तांतूत चाफळचो मठ मुखेल मानतात.

**हेर मठ** : आद्य शंकराचार्यान चार दिशांनी स्थापणूक केल्लीं चार पिठां वा मठ प्रसिद्ध आसात. बद्रीनाथालागीं ज्योतिर्मठ, जगन्नाथपुरीक गोवधर्नमठ, द्वारकेक शारदामठ आनी शृंगेरीचो शृंगेरीमठ आसा. रामानुजाचार्य हाणें ७४ पिठांची स्थापणूक केली. अहोबिलक्षेत्रांतल्या अहोबिलमठ, म्हैसूरांतलो परकालमठ, तोताद्रिचो तोताद्रिमठ आनी गोवर्धनचो गोवर्धनमठ हे कांय मुखेल आसात. भूतपुरी हे ताचे जल्मभूयेंत व्हड देवूळ आसा. वल्लभाचार्याचीं हेर सात उपपिठांय आशिल्लीं. तशेंच तांणी जंय जंय भागवताचीं पारायणां केलीं थंय तांची 'बैठक' स्थापन जाली. भारतांत अशो ८४ बैठको आसात.

मध्वाचार्यान उडुपी हे आपले जल्मभुयें लागसार फलिमारूपीठ, अदमारू, श्रीकृष्णपूर, श्रीपुत्रिका, शीरूर, सोदे, काणियूर आनी पेजावर ह्या पिठांची स्थापणूक केली. तशेंच ताणें हेरकडेन उपमठांची लेगीत स्थापणूक केली.

**हिंदूंचीं विदेशांतलीं तीर्थां :** मॉरिशसांत 'परी-तलाव' नांवाचें तीर्थ आसून ताचे देगेर शंकराचें देवूळ आसा. थंय शिवरात्रेक, मकर संक्रातेक जात्रा भरता. इराणांत जायतीं देवळां आनी शिखांच्यो गुरुद्वारा आसात. जावा, कांबोडिया, बाली ह्या देशांनी जायतीं शिवमंदिरां आसात. अनामांतलें 'भी-सोन' चें भद्रेश्वर देवूळ प्रसिद्ध आसा.

**बौद्ध तीर्थक्षेत्रां :** महापरिनिर्वाणसुत्रांत, बुद्धाची जल्मभूंय लुंबिनी, बुद्धाक बोधी प्राप्त जाली ती सुवात-गया, बुद्धान सगळ्यांत पयलीं धर्मचक्रप्रवर्तन केलें तें थळ-सारनाथ आनी बुद्धाचें निर्वाणस्थान कुशीनगर हीं चार थळां पवित्र मानतात. बुद्ध धर्मचक्रप्रवर्तना खातीर आनी वर्षावासाखातीर जंय जंय गेलो आनी रावलो, तीं तीं थळां बौद्धांनी तीर्थरुप मानल्यांत. देखीक - सांकाश्य, श्रावस्ती, राजगृह, कौशांबी, वैशाली, मंकुल पर्वत, सुंसुमारगिरी, पारिलेयक, नाला आनी हेर. निर्वाणाउपरांत बुद्धाच्यो अस्थी ज्या विंगड विंगड आठ सुवातींनी दवरल्यो आनी जांचेर स्तूप उबारले अशीं कुशीनगर, वैशाली, कपिलवस्तु, रामग्राम,

पावागढ, राजगृह, बेटद्वारका आनी अल्लकप्प हीं आठ थळां बौद्धांक तीर्थरूप थारल्यांत. बुद्धाचे चितेंतले कोळशे घेवन पिप्पलीवनांत तांचेर अंगारस्तूप बांदलो ती सुवात आनी कुशीनगराक बुद्धाच्यो अस्थी कुभांत दवरुन तांचेर 'कुंभस्तूप' उबारलो ती सुवात, हीं दोनूय थळां बौद्धांचीं पुण्यक्षेत्रां.

**हेर देशांतली बौद्ध तीर्थक्षेत्रां :** जपानांत इ. स. च्या सुमार आठव्या शेंकड्यांत तीर्थयात्रा सुरू जाल्यो. धाव्या शेंकड्यांतल्या एका राजान आपले बायलेच्या मरणाउपरांत भिक्षूचो भेस करून मध्य प्रांतांतल्या क्रॅनॉन (अवलोकितेश्वर) हे देवतेच्या ३३ देवळांक भेट दिल्ल्याची एक आख्यायिका आसा. धाव्या आनी इकराव्या शेंकड्यांनी जपानी सरदारांनी बौद्ध आनी शिंतो मंदिरांची खूब खेपे यात्रा केल्ली. पंदराव्या शेंकड्यासावन क्रॅनॉनच्या ३३ देवळांची यात्रा खूब लोकप्रिय जाली. पंदराव्या आनी सोळाव्या शेंकडयांत तीर्थक्षेत्रांचे सख्येंत खूब वाड जाली. चडशीं तीर्थक्षेत्रां हीं बौद्ध देवळां आशिल्लीं.

श्रीलंकेंत कॅंडी हांगा बुध्दाच्या दांताचें नामनेचें देवूळ आसा. अनुराधापुराक २,२०० वर्सांचो पोरणो बोधिरूख आसून अशोकान धाडिल्ल्या मूळ बोधिरूखाच्या खांदयांपसून तो जाला अशें मानतात.

ब्रह्मदेशांत रंगूनाक आशिल्लो श्वे देगान हो पागोडा म्हत्वाचो मानतात. हातूंत गौतमाचे आठ केंस सांबाळून दवरल्यात असो भावार्थ आसा. ब्रह्मदेशांतले पेगू आनी प्रोमचे पागोडाय खूब प्रसिध्द आसात.

चीनांत चार पर्वतांवयलीं मंदिरां प्रसिद्ध तिर्थां आशिल्लीं. तातूंतलें अस्तंतेक 'माऊंट ओमी' चेर आशिल्लें बोधिसत्व समंतभद्राचें मंदिर म्हत्वाचें. चीनांत हेर खूब तीर्थक्षेत्रां आशिल्लीं आनी भिक्षू तांची यात्रा करताले. सिक्यांग प्रांतांतले मठ खूब प्रसिद्ध आशिल्ले.

तिबेटची राजधानी ल्हासा हें म्हत्वाचें थळ आसून हांगा खूब यात्रेकरी जमतात. हें दलाई लामाचें थळ. पंचेन लामाचें थळ आशिल्लें. ताशी लुंपो हेंय एक म्हत्वाचें यात्राकेंद्र मानतात कारण ताशी वा पंचेन लामा हो बोधिसत्व अमिताभ हाचो अवतार मानतात.

**जैन तीर्थक्षेत्रां :** जैन धर्मांत जे, तिर्थांची स्थापणूक करतात तांकां तीर्थंकर म्हण्टात. जैनांचीं तिर्थां भारतभर पातळ्ळ्यांत. जैनांनी सिद्ध क्षेत्रां आनी अतिशय क्षेत्रां अशे आपल्या क्षेत्रांचे दोन वांटे केल्यात. जंय तीर्थंकरांक वा हेर महात्म्यांक निर्वाण वा सिद्धपद प्राप्त जालें तें सिद्धक्षेत्र. मूर्त वा देवता वा विशिश्ट घडणूक हांकां लागून जीं धर्माचरणाक उपयुक्त थारल्यांत, तीं अतिशयक्षेत्रां आसात. अष्टापद संमेदशिखर, मंदारगिरी, गिरनार आनी पावापूर हीं जैनांची पांच मुखेल सिद्ध क्षेत्रां आसून, तीं दिगंबर आनी श्वेतांबर ह्या दोनूय पंथांक मान्य आसात. तशेंच कोटिशिला, गुणाखा, गुलजारबाग, द्रोणगिरी, रेशंदिगिरी, मुक्तागिरी, गजपंथ, कुंथलगिरी, मांगी-तुंगी, पावागढ, तारंगा, चूलगिरी, सिद्धवरकूट, सोनागिरी आनी चौरासी हींय जैनांचीं सिद्धक्षेत्रां आसात. अयोध्या, रतनपूर, हस्तिनापूर, कौशांबी, सौरीपूर, वाराणसी, सिंहपूर, चंद्रपूर, श्रावस्ती, किष्किंधा, राजगृह, चंपापूर, कुंदलपूर हीं तीर्थंकरांचीं जल्मथळां. तशेंच प्रयाग, प्रभास, अहिच्छत्रा, कपिला हीं तीर्थंकरांचीं तपःथळां जैनांनी तीर्थरुप मानल्यांत. श्रवणबेळगोळ, करकड्डू, बाबानगर, अंतरिक्ष, भातकुली, चंदेरी, देवगड, टीकमगढ, खजुराहो, कारंजा, बिजोलिया, केशरिया, श्री महावीर, कुंडलपूर, अबू, अचलगढ, विजापूर, वेरूळ, तवंदी, बदामी, उम्मच, वरांग, कारकल, मुडबिद्री, बेन्नूर, बेलूर, हळेबीड, खंडगिरी ह्या थळांक जैन धर्माच्या आनी जैन स्थापत्यकलेच्या इतिहासांत खूब म्हत्व आशिल्ल्यान जैन लोक तांकां यात्राथळां मानतात. चांदखेडी, ऊन, पपौरा, पचराई, रामटेक, कालुबा ह्या सुवातींनीय जैन देवळां आशिल्ल्यान तींय जैनांचीं तीर्थक्षेत्रां जाल्यांत.

**शीख तीर्थक्षेत्रां :** गुरु नानकान आपल्या जपजी ह्या ग्रंथांत ६८ तिर्थांचो उल्लेख केला. तीं सगळीं तिर्थां पौराणिकूच आसात. तशेंच अमृतसर, आनंदपूर, पटनासाहेब आनी नांदेड हे चार मुखेल तख्ते शिखांचीं तीर्थथळां थारल्यांत. तेच भाशेन हिमालयांतलें हेमकुंड, अमृतसरचें तरणतारण सरोवर, बेदरचो नानकझीरा, नानकानासाहेब, पंजासाहेब ह्या हेर थळांक शीख लोक तिर्थां मानतात आनी यात्रा करतात.

**इस्लामी तीर्थक्षेत्रां :** मक्का, मदिना आनी करबला हीं मुसलमानांचीं मुखेल क्षेत्रां आसून, तीं भारताभायर आसात. दर वर्सा भारतांतले हजारांनी मुसलमान तांचे यात्रेक वतात. भारतांत अजमीरचो ख्वाजा मोइनुद्दिन चिस्ती हाचो मकबरो, गोरखपूर आनी बहिराइचचीं गाजीमियाचीं थळां, मकनपूरची शाहमदार हाची सुवात, दिल्लींतलो निजामुद्दीन अवलियाचो दर्गो, तशेंच पीर, अवलिया, शहीद आनी गाजी हांचे मकबरे आनी दर्गे हीं मुसलमानांचीं यात्राथळां आसात. मुस्लिम संतांच्या समाधीथळांकूय पुण्यक्षेत्र मानून मुसलमान लोक तांची यात्रा करतात.

**ख्रिस्ती तीर्थक्षेत्रां :** भारतांत दक्षिणेंतली वालांकिणी, चेन्नई लागसारचें मैलापूर आनी गोयांतले बों जेजूस कॅथॅड्रल हीं क्रिस्तांव लोकांचीं तीर्थक्षेत्रां आसात. मैलापूराक सेंट थॉमस हाची समाधी आनी बों जेजूस हातूंत सेंट फ्रांसिस झेवियर हाचें प्रक्रिया केल्लें शव (मडें) आसा.

धर्मसुदारणा चळवळी उपरांत तीर्थयात्रांचें म्हत्व उणें जाल्लें आसलें तरी मध्ययुगीन क्रिस्तांव लोकांचे जिणेंत तिर्थयात्रांक बरीच म्हत्वाची सुवात आसा. जेजूस क्रिस्ताचे जिणेकडेन संबंदीत अशीं पॅलेस्टायनांतलीं थळां आनी संत, महात्मे हांचीं स्मृतिस्थानां हीं क्रिस्तांव लोकांचीं तीर्थक्षेत्रां जालीं. पॅलेस्टायन, इटली, इंग्लंड, वेल्स, स्कॉटलंड, आयर्लंड, फ्रांस, स्विट्झर्लंड, स्पेन, जर्मनी ह्या राश्ट्रांनी ख्रिस्ती तीर्थक्षेत्रां बरींच आसात.

**पॅलेस्टायन** - जेरुसलेमाक, हेलेना हे सम्राज्ञीन भेट दिवन खरो खुरीस सोदून काडलो. तेन्नासावन युरोपांतल्या सगळ्या राश्ट्रांतल्यान लोक जेरूसलेमाक येवपाक लागले. जेरूसलेमांत क्रिस्तांव लोकांचीं खूब प्रार्थनाघरां आसात. तशेंच माऊंट ऑलिव्ह्जावयलें गेत्सेमनीचें उद्यान, बेथलेहेमांतली चर्च ऑफ द नेटिविटी आनी नाझारेथांतली चर्च ऑफ द ॲनन्सियेशन हीं थळां पवित्र आसात.

**इटली** - पोपाची सत्ता निर्माण जाली आनी रोम हें क्रिस्तांव लोकांचें तीर्थक्षेत्र जालें. रोमाक सेंट पिटर आनी सेंट पॉल हांच्या सामाधींक लागून खाशेलें म्हत्व प्राप्त जालें. सेंट फ्रांसिस आनी सेंट क्लॅर हांचेकडेन संबंद आशिल्ल्यान आसीसी हें शार म्हत्वाचें तीर्थक्षेत्र जालें. सिएना हें सेंट कॅथरायनाक लागींचें म्हणून प्रसिद्ध आशिल्लें.

**इंग्लंड** - इंग्लंडांत जायत्यो पवित्र सुवाती आसात. तातूंतलें सगळ्यांत पोरणें म्हळ्यार ग्लॅस्टनबरी. सेंट जोसेफ, सेंट पॅट्रिक, किंग आर्थर ह्या महात्म्यांच्या वास्तव्याक लागून ह्या थळाक माहात्म्य प्राप्त जालां. कँटरबरीचें सेंट थॉमस अ बेकेट हाचें स्मृतिस्थान खूब पवित्र मानतात. वॉल्सिंगमचें 'अवर लेडी' चें पवित्र थळ, तिच्या दुदाचे कांय थेंब आशिल्ली डबी थंय आशिल्ल्यान हें यात्रेकऱ्यांचें आकर्शण थारलें.

**वेल्स** - सेंट विनिफ्रेड हाची बांय हें हांगाचें पवित्र स्थान.

**स्कॉटलंड** - विटहॉर्न हें हांगाचें सगळ्यांत पोरणें तीर्थक्षेत्र. सेंट निनियन हाणें सेंट मार्टिनचे यादीक थंयचें प्रार्थनामंदिर बांदलें. सेंट अँड्‌र्यूसचें सेंट मेरी ऑफ द रॉक चें पवित्र थळ हें थंयचें आनीक एक नामनेचें क्षेत्र.

**आयर्लंड** - सेंट पॅट्रिकची पर्गेटरी डाऊन पॅट्रिक, मीथची सेंट जॉनची बांय आनी क्रॅनफिल्ड हीं थंयचीं तीर्थक्षेत्रां आसात.

**फ्रान्स** - शार्त्र हें फ्रांसातलें मध्ययुगांतलें नामनेचें थळ. आर्विल्ल्या कांळांतली लुर्दीश, ला सालेत आनी लिसा हीं कांय मुखेल फ्रॅंच देवळां आसात.

**स्विट्झर्लंड** - आयंझीडेल्न हें हांगाचें सगळ्यांत म्हत्वाचें तीर्थ.

**स्पेन** - हांगाचें सगळ्यांत म्हत्वाचें थळ म्हळ्यार सेंट जेम्साचें देवूळ वा सांत्यांगो द काम्पोस्टेला.

**जर्मनी** - आखेन हें जर्मनींतलें मुखेल स्थान. मध्ययुगांतलें दुसरें तीर्थ म्हळ्यार ट्रिअर.

**ज्यू वा यहुदी तीर्थक्षेत्रां :** जेरूसलेम वा पॅलेस्टायन ह्या इझ्रायलांतल्या शाराक ज्यू लोकांची धर्मीक राजधानी मानतात. हांगा खुबशीं पवित्र थळां आसात. हांगाच्या देवळाचे अस्तंते वटेनची वणत, माऊंट झायनावयली डेव्हिडाची कबर, सायमन द जस्ट हाची कबर, अब्राहम, इसाक आनी जेकब हांच्यो हिब्रनांतल्यो कबरी, मैमान वा माइमॉनिडीझ हाची टायबीरियसाची कबर आनी मॅरोनांतल्यो गूढवाद्यांच्यो कबरी हीं हांगाचीं पवित्र थळां आसात. ईजिप्तांत कायरो लागसार दुमूहाक एक नामनेचें सिनॅगॉग आशिल्लें. एकेकदां एकाच मनशाची कबर ज्यू आनी मुसलमान दोगूय जाण पवित्र मानतात. कुर्दिस्तान, मेसोपोटीमिया, पर्शिया, अल्जीरिया, मोरोक्को, पोलंड, गॅलिशिया, व्हालिन्य हांगा ज्यूंच्यो पवित्र कबरी आसात.

**पारशी तीर्थां** : इराणांतल्यान भारतांत येतकच पारशी लोकांनी पयलीं दीव जुंव्याचेर संजाण गांवांत अग्निमंदिर बांदलें आनी एक अग्निस्तंभ उबारलो. पारशांच्या अग्निमंदिराचे आतश बेहेराम, आतशखाना, अग्यारी हे प्रकार आसात. हांतूतलें आतश बेहेराम हें सगळ्यांत श्रेश्ठ जाल्यार अग्यारी उणे प्रतीचें मानतात. भारतांत वट्ट आठ आतश बेहेराम आसात. तांतूतलो पयलो उदवाडा गांवांत उपरांत नवसारीक बांदलो. मुंबयक चार, सुरतेक दोन आतश बेहेराम बांदले. पूण ह्या थळांक खऱ्या अर्थान पारशांचीं तीर्थक्षेत्रां म्हणूंक येनात. उदवाडा हें एकूच तांचें यात्रेचें थळ.

- कों. वि. सं .म.

पूरक नोंद : तीर्थ.

## तीर्थक्षेत्रां : (पळेयात तीर्थयात्रा).

## तीळ - १ : (मराठी : तीळ, हावरी; हिंदी : जिंजली, जिंजिली तील; गुजराती : तल; पंजाबी : तिली; कन्नड : एळ्ळु; संस्कृतः तिल, तिलक; इंग्लीश : सिसॅम, जिंजेली; लॅटिन : सिसॅमम इंडिकम, सि. ओरिएंटेल; कूळ : पेडॅलिएसी).

ही सुमार १ मी. ऊंच आनी सरळ वाडपी वनस्पत. हे वनस्पतीक खांदयो येतात आनी पुराय आंगभर बारीक केंस आसतात. सुमार एक वर्सभर जगपी हे वनस्पतीक सादीं, व्हड, एकामेकांसामकार आनी सादारण केंसाळ पानां येतात. पुराय वनस्पतीचे केंस प्रपिंडयुक्त (चिकट पदार्थ भायर उडोवपी ग्रंथी आशिल्ले) आसतात. पानांच्या कुशींत एकएकलीं, खर वासाचीं, धवीं गुलाबी फुलां येतात. बोंड (फळ) लांबशें वाटकुळें, उबें, २.५ सेंमी. लांब चौकोनी आसता. बियो (तीळ) ल्हान (२.५-३ ,१.५ सेंमी.), चेपट्यो, काळ्यो, पुडीकोराच्यो वा धव्यो आसतात. तिळांचो जितलो रंग लेव आसता तितलें तेल चड आनी निवळ आसता अशें मानतात.

हे वखदी वनस्पतीचें मूळ स्थान अफ्रिका आसून खूब पुर्विल्ल्या काळांत तें थंयच्यान भारतांत हाडलें अशें म्हण्टात. हडप्पाच्या उत्खननांत मेळिल्ल्या तिळांच्या दाण्यावयल्यान सिंधू देगणांतले पुर्विल्ले संस्कृतींत ती लागवडीखाल आसुंये. आफ्रिकेंतलें ॲबिसिनिया हें तिळाच्या रानटी पुर्वजांचें सुरवातेचें उगमस्थान आसुंये. मध्य भारत, आसाम आनी ब्रह्मदेशाक लागवडींतल्या जातींचों उगम जाला अशें कांय तज्ञ मानतात. तशेंच चीनांतलो मध्य आनी उदेंतेकडलो दोंगराळ वाठार हो लागवडींतल्या जातीचें दुसरें मूळस्थान आसुंये. हाचे भायर आनी दोन मुखेल उगमस्थानां म्हळ्यार पंजाब, काश्मीर, पाकिस्तान आनी अफघाणिस्तान आनी दुसरें उगमस्थान इराण आनी तुर्कस्थान. ह्या दोन तरांच्या उगमस्थानांतल्यान (पयलो आनी दुसरो) तिळाची वाटचाल दोन मार्गांनी जाली - उदेंतेकडेन चीन आनी इंडोचायना सावन जपानाकडेन आनी अस्तंतेकडेन भूमध्य दर्याच्या वाठारांत. भारतांतल्या लागवडींत आशिल्ल्या सगळ्यांत पोरण्या धान्यांत तीळ आसून तैत्तिरीय आनी शोनक संहिताच्या काळासावन ताचो उल्लेख मेळटा. 'होम धान्य' आनी 'पितृतर्पण' असोय ताचो उल्लेख आसा. तैल (तेल) हो संस्कृत शब्द 'तिल' ह्या शब्दावयल्यान रूढ जाला.

भारतांत तेचपरी चीन, सुदान, मेक्झिको आनी ब्रह्मदेश हे तिळाचें उत्पादन करपी व्हड देश. तांचे फाटोफाट व्हॅनेझुएला, युगांडा, नायजेरिया, बलुचिस्तान, पाकिस्तान आनी तुर्कस्थान ह्या देशांनीय ह्या पिकाची चड उण्या प्रमाणांत लागवड जाता. तेलबियांखाल संवसारांतल्या सगळ्या पिकांनी वट्ट क्षेत्र आनी उत्पादन हातूंत तिळांचो सवो नंबर लागता. वट्ट तेलबियांच्या क्षेत्रांत ५.६ प्रतीशत क्षेत्र आनी ताचेपसून २.७ प्रतीशत उत्पादन तिळांचें आसा. तिगपाक आनी बरे प्रतीच्या तेलाखातीर भारतांत भिकणां आनी सांसवां हांचे फाटोफाट तिळांचो नंबर लागता. भारतांत उत्तर प्रदेश, राजस्थान, मध्य प्रदेश, आंध्र प्रदेश, तमीळनाडू, महाराष्ट्र, गुजरात, ओरिसा आनी कर्नाटक ह्या राज्यांनी तिळांची लागवड करतात. गोंयांत २५-३० वर्सांफाटीं तिळाची लागवड मिश्रापिक म्हणून करताले. ह्या वर्सांनी गोंयांत तिळांची लागवड केल्ली दिश्टी पडना.

तिळांचे लागवडींतल्या प्रकारांत फुलांचो रंग, बोंडाचो आकार, ताची झाडावयली मांडणी, बियांचो रंग, तांचो आकार आनी पेरणेदिसावन कापणेमेरेनचो काळ हातूंत वेगळेपण दिसता. एकाफाटल्यान एक वा एकामेका सामकार मांडावळींत पानांचे कुशींत बोंडांची संख्या वेगवेगळ्या प्रकारांनी १-३ वा दरेक कुशींत ४-५ मेरेन बोंडां कांय प्रकारांत आसात. चड करून काळे आनी धवे प्रकारचे तीळ लागवडीखाल आसतात.

निवड आनी संकर पद्दतीन तिळांचे नवे प्रकार निर्माण करपाचें काम भारतांत १९२५ सावन सुरू आसा. थळाव्या प्रकारापरस १२०-२०० प्रतीशत उत्पन्न दिवपी तिळाच्यो सुमार ३० सुदारीत जाती देशांतल्या वेगवेगळ्या संशोधन केंद्रांनी निर्माण केल्यात. भारतांत सिसॅमम वंशांतले वट्ट स प्रकार मेळटात तमिळनाडूंत टी. एम. व्ही. - १,२,३;

मध्य प्रदेशाखातीर क्र. ४१ आनी ६२-३२; उत्तर प्रदेश टी-१०, १२ आनी १३; राजस्थान सी-५०; गुजरात मृग-१ आनी पर्वा-१; महाराष्ट्रांत फुले-१ ह्यो सुदारीत जाती आसात.

उत्तर प्रदेश, राजस्थान पंजाब आनी महाराष्ट्राच्या कांय वाठारांनी हें पीक खरीप हंगामांत पावसाच्या उदकार घेतात. जाल्यार आंध्र प्रदेश, तमीळनाडू, मध्य प्रदेश, ओरिसांत हें पीक रबी हंगामांत आनी गिमांत बागायती पीक म्हणून घेतात.

२१° सॅ. वा चड तापमानाच्या हंगामांत हें पीक बरें येता. सपाट प्रदेशांत वा दर्याच्या पांवड्यासावन १,२०० मी. उंचाये मेरेनच्या प्रदेशांत ह्या पिकाची लागवड करपाक मेळटा. ह्या पिकाक ५० सेमी. पावस लागता. जाल्यार सपाट, रेंवट जमनीत हें पीक बरें येता. जमनीत फावो ती ओलसाण आसतना बीं उडोवन वा ओळींत २०-३० सेंमी. अंतर दवरून चरयेंत बीं उडोवन तिळांची लागवड करतात. खरीप पिकाक पेरणे उपरांत दोन सप्तकांनी पयली कोळपणी करतात. ते उपरांत फावो तशी दुसरी कोळपणी करतात. जेन्ना तिळांचें स्वतंत्र पीक घेतात तेन्ना हॅक्टेरीं २० ते २५ किग्रॅ. नत्र पेरणेच्या वेळार दितात. बागायती पिकाक मशागती वेळार ६.२५ टन शेणखत आनी उपरांत ३३ किग्रॅ. नत्र दितात. तिळाच्या झाडांक फुलां येवपाचीं बंद जातकच, बोंडां पाचवीं वा हळदुवीं आसतना झाडां मुळाकडेन कापून घेतात आनी खळार व्हरून मांडून दवरतात. उपरांत बोंडां सुकून बियां भायर पडटात. हीं बियां फाफडून निवळ करतकच निवळ तीळ मेळटात. एक हॅक्टर सुवातींतल्यान सरासरी २०० कि. बियांचें उत्पन्न मेळटा.

भारतांत तयार जावपी तिळांतले सुमार ७८ प्रतीशत तिळांचें तेल काडटात, २० प्रतीशत घरगुती वापराखातीर आनी सुमार २ प्रतीशत बियांखातीर वापरतात. तिळांचो उपेग खाद्य पदार्थ करपाखातीर वापरतात. अमेरिका आनी युरोपीय देशांनी तिळाचो उपेग पावाचेर आनी बेकरींत तयार जावपी पदार्थाचेर लावपाखातीर करतात. भारतांत तयार जावपी तिळांच्या तेलांतलें ८२ प्रतीशत तेल खावपाखातीर वापरतात. तेचपरी वेगवेगळ्या खास पदार्थांखातीर, वनस्पती तूप करपाक तशेंच शाबू सौंदर्यप्रसाधनां, अत्तर, कीटकनाशकां आनी वखदी वस्तूंचे निर्मितींत तिळांचें तेल वापरतात. हें तेल बेगीन इबाडना देखून सुवासीक तेलां करपाखातीर (वासाचीं फुलां तेलांत भिजोवन) हें तेल वापरतात.

हिंदू लोक धर्मीक विधींत तीळ वापरतात. संक्रांतीच्या दिसा तीळगूळ एकामेकांक दितात. तेचपरी तिळांचे लाडू करून वांटटात. तिळांचो होमधान्य आनी पितृतर्पण असोय उल्लेख करतात. कारण पितृतर्पणांत काळ्या तिळांक खुबूच म्हत्व आसा.

मूळकूज, पानांवयले थिपके, सोडकूज आनी मर ह्या मुखेल रोगांची लागण तिळांक जावं येता.

१) मूळकूज : हो रोग चड करून जमनीलागसार झाडाच्या खोडार दिसता आनी हो खोडाचो भाग मोडून पडटा. मुळांय कुसतात. उपरांत हो रोग बोंडार आनी बियांचेर दिसता. ह्या रोगाक आळाबंदा हाडपाक पेरणे आदीं बियांक पारायुक्त कवकनाशक चोळप, पिकांची फेरपालट करप आदी उपाय आसात.

२) पानांवयले थिपके : हो रोग सर्कोस्पोरा सिसेमी ह्या कवकाक लागून जाता. पानांचेर थिपके येवन पानां गळटात. हो रोग ना करपाक बीं पेरचे पयलीं ५३° सॅ. गरम उदकांत एक वर दवरप आनी उपरांत सुकोवन घेवप हे उपाय आसात. रोग पडटकच कॅप्टन (०.५%), फायटोलन (०.३%) वा ऑरियोफेंजीन हें वखद झाडाचेर फवारल्यार कवकाचेर आळो बसपाक शकता.

३) खोडकूज : हाका फायटोप्थोरा ब्लायंट अशेंय नांव आसा. ह्या रोगाचें लक्षण म्हळ्यार खोडाचो जमनीकडलो कांय भाग ओलसार काळो जाता आनी कांय दिसांनी खोडाचेर काळश्यो रिस्को दिसतात. उपरांत हो रोग खांदयांर पातळटा. ह्या रोगाचें कवक जमनींतच आसता. देखून तांचेर प्रभावी असो उपाय ना. शेतांत उदकाचो फावोतो पाझर केल्ल्यान रोगाचें प्रमाण उणें जाता.

४) मर : हो रोग फ्युजेरियम ऑक्सिस्पोरम फॉर्मा सिसेमी ह्या कवकाक लागून जाता. हातूंत सुरवातेक पानां हळदुवीं जातात, सुकतात, झाडाची तेंगशीय सुकता. मुळाचो आनी खोडाचो भितल्लो भाग काळसो जाता. ह्या रोगाचें कवक जमनींत आशिल्ल्यान रोगप्रतिकारक प्रकारची लागवड करप होच हाचेर उपाय.

ह्या झाडाच्या पानांचेर तशेंच बोंडांचेर कीड लागता ताका लागून तिळाचेर १० प्रतीशत बी.एच.सी. वा ५ प्रतीशत डी.डी.टी. मारतात. हाचेभायर पानां खावपी कीड (अॅचेरोन्शिया स्टिक्स), पिटिकादंशुक (अॅस्फॉंडिलियासिसेमी) हो मूस - हांचोय तिळाक खूब त्रास जाता.

तिळांत ५.८ प्रतीशत उदक, १९.३ प्रतीशत प्रथिनां, ५१ प्रतीशत तेल, १८ प्रतीशत कार्बोहायड्रेट, १.०० प्रतीशत कॅल्शियम आनी ७ प्रतीशत फॉस्फरस आसता. तातूंत थायामीन (०.००१ प्रतीशत) आनी निॲसीन (०.००५ प्रतीशत) हीं जीवनसत्वां खुबशा प्रमाणांत आसतात. तेल काडिल्ल्या बियांनी थायामीन, रिबोफ्लाविन, निकोटिनिक आम्ल, पॅटोथिनिक आम्ल, फॉलिक आम्ल, बायोटीन, पिरिडॉक्सीन, इनॉसिटॉल, कोलीन आदी द्रव्यां आसतात.

हेर खंयच्याय तेलांत नाशिल्ले सिसॅमीन आनी सिसॅमोलीन हे रासायनीक घटक तिळांच्या तेलांत आसतात. हेर वनस्पतीजन्य तेलां तिगून उरपाखातीर तातूंत तिळांचे तेल भरशितात.

- कों. वि. सं. मं.

**तीळ-२ :** शरिराचे कातीचेर सैमीक तरेन उदेल्ल्या काळ्या, करड्या, पुडीकोराच्या वा तांबड्या रंगाच्या ल्हान वाटकुळसार दागांक तीळ म्हण्टात. भोवतेक तीळ जल्मजात आसतात जाल्यार कांय तीळ भुरगेपणाच्या पयल्या काळांत उदेतात. जाण्टेपणांत तीळ उदेवपाचें प्रमाण खूब उणें आसता. एकदां उदेल्लो तीळ जल्मभर उरता. वाडटे पिराये वांगडा तीळ ना जावप हें एक दुर्मीळच म्हणूंक जाय. कांय तीळ कातीच्याच थराचेर सपाट जाल्यार कांय तीळ कातीपरस वयर फुगीर आसतात. कांय तीळ कातीच्या भायल्या थरामेरेनच उरतात जाल्यार कांय तीळ पोंदच्या थरामेरेन रिगतात. कांय तीळ सुळसुळीत जाल्यार कांय तीळ खडबडीत आसतात. कांय तिळांचेर केंसय उदेल्ले दिश्टी पडटात. तिळांचो रंग आकार कालमानाप्रमाण बदलता.

कातीच्या भितल्ल्या थरांत रिगिल्ल्या तिळांवरवीं कर्करोग जावपाचो संभव आसता. तशेंच ह्या तिळांचो सुजप, दादड येवप, रगत व्हांवप ह्या लक्षणांकडेन संबंद येता. उपद्रवी तशेंच सोबीतकाय इबाडपी तीळ शस्त्रक्रियेवरवीं काडून उडोवपाक मेळटात. तिळाक समाजीक तशेच

धर्मीक संबंद आसतात. मनशाचे कुडीचे सुवातीवयल्यान तिळाचीं बरीं - वायट लक्षणां सांगतात. विशिश्ट अशा अवयवावयलो, विशिश्ट आकाराचो आनी रंगाचो तीळ विशिश्ट अशें शुभकारी, अशुभकारी लक्षण सांगता, असो समज आसा. तीळ हें सोबीतकायेचें लक्षण मानप हें आदीकाळापसून चलत आयलां. बायलेचे खाडकेक तीळ आसप हें सौंदर्याचें लक्षण समजतात. सौंदर्यप्रसाधनान काजळाचे वा काळ्या रंगाचे कृत्रीम तीळ लायतात. मनशाचे कुडीची वळख दिवपी एक जल्मजात खूण म्हणून तिळाक कायद्यांत म्हत्व दिलां.

– कों. वि. सं. मं.

**तुंगभद्रा :** दक्षिण भारतांतली एक मुखेल न्हंय आनी कर्नाटक तशेंच आंध्र प्रदेश राज्यांतल्यान व्हांवपी कृष्णा हे न्हंयेची उपन्हंय. तुंगभद्रा न्हंयेची लांबाय सुमार ६४० किमी. कर्नाटक राज्याच्या चिकमंगळूर जिल्ह्यांतले श्रृंगेरीचे नैर्ऋत्येक सुमार २५ किमी. अंतराचेर सह्याद्रींतल्या वराह दोंगराचेर १,४०० मी. उंचायेवयल्या गंगामूळ सावन तुंग आनी भद्रा ह्या दोन न्हंयांचो उगम जाता. त्यो थंयसावन ईशान्येक सुमार १५० किमी. अंतराचेर कुडलीक एकठांय येवन तुंगभद्रा न्हंय तयार जाता.

तुंगा आनी भद्रा ह्या न्हंयांचो ज्या पर्वतांतल्यान उगम जालो ताका पुराणांत वराह पर्वत म्हळा. धर्तरी बुडटा आसतना तिका आपल्या सुळ्यांनी वयर काडून वराहरुपी भगवंतान हांगा सुसेग घेतलो. म्हणून ह्या पर्वताक वराह पर्वत अशें नांव पडलें. तो हांगा सुसेग घेता आसताना ताच्या दोनूय सुळ्यांतल्यान उदक पाझरूंक लागलें. दाव्या सुळ्यांतल्यान पाझरपी उदकापसून तुंगा आनी उजव्या सुळ्यांतल्यान पाझरपी उदकापसून भद्रा ह्यो न्हंयो तयार जाल्यो अशी पुराणांत कथा आसा.

तुंगा न्हंयेचे देगेर श्रृंगेरी, तीर्थहळ्ळी, शिमोगा हीं थळां आसात. भद्रा न्हंय बाबा बुढण दोंगराच्या मुळसांतल्यान वता. तिचे देगेर बेंकिपूर, भद्रावती हीं थळां आसात. तुंगभद्रा न्हंय फुडें हरिहर, होस्पेट, हंपीसावन ईशान्येकडेन वचून आंध्र प्रदेशाचे शिमेचेर येता. उपरांत सुमार १० किमी. वचून फुडें उदेंतेवटेन व्हांवता. फुडें कर्नाटक - आंध्र शिमेवयल्यान सुमार ५० किमी. वचून आंध्र प्रदेशांत भितर सरता. थंय कुर्नूलचे फुडें संगमेश्वरमाक ती कृष्णेक मेळटा. वरद कुमुद्वती, हरिद्रा , हशेरी, वेदवती ह्यो तुंगभद्रा न्हंयेच्यो मुखेल उपन्हंयो.

तुंगभद्रा न्हंयेचें उदक गोड आशिल्लयान 'गंगा स्नान आनी तुंगा पान' अशी म्हण पडल्या. न्हंयेक बांद घालून शेताक उदका पुरवण करपाची पद्दत चड करून दक्षिणेकडेन पुर्विल्लया काळासावन प्रचलीत आसा. विसाव्या शतमानाचे सुर्वेक तुंग आनी भद्रा हांचेर मेळून ३८ ल्हान ल्हान बांद आशिल्ले. विजयनगरच्या राजांनी हंपीलागसार तुंगभद्रेचेर जायते बांद घाल्ले. तांतूतले धा बांद ह्या शतमानाचे सुर्वेक चालू आशिल्ले. ब्रिटिशांच्या काळांत कृष्णा-तुंगभद्रा संगमाचेर आलतडीन एका बांदान तुंगभद्रेचें कांय उदक घुंवडावन कुर्नूल-कडप्पा खारजांत सोडिल्लें. आंध्र प्रदेश आनी कर्नाटक हांच्या जोड पालवान तुंगभद्रा प्रकल्पाची येवजण आंखली. कर्नाटक राज्याच्या बेल्लारी जिल्ह्यांत हॉस्पेटपसून सुमार ८ किमी. वयल्या मल्लापुरमाक तुंगभद्रेक २,४४१ मी. लांबायेचें आनी ४९.३३ मी. उंचायेचें धरण बांदिल्लें आसून ताच्या दोनूय वटांनी आशिल्ल्या खारजाचो फायदो सुमार ३.३२ लाख हॅक्टर भुंयेक जावंक जाय अशी येवजण आसा. ह्या दोनूय वटांतल्या आनी मुळसांत आशिल्ल्या विजेच्या घरांतल्यान सुमार एक लाख किवॉ. वीज तयार जाता. ह्या प्रकल्पाचें एक खाशेलपण म्हळ्यार ह्या धरणाच्या 'पंपा तळे'चें , उदक बोगद्यांतल्यान पलतडीन पेन्नार न्हंयेत सोडलां. ह्या प्रकल्पाक लागून रायलसीमा वाठारांत भात, कापूस, भिकणां, ऊंस हांचें भरपूर पीक येता.

तुंगभद्रेचो उगम जाला थंयसावन कृष्णा न्हंयेचो संगम जायमेरेन हिचे देगेर श्रृंगेरी, तीर्थहळ्ळी, कुडली, हरिहर, हंपी, किष्किंधा (आनेगुंदी) हीं पवित्र थळां आसात. बुद्धाच्या काळांत अशोकान आपल्या धर्मशासनाच्या चार शिलालेखांचो संच तुंगभद्रेच्या वाठारांत कोरांतून दवरिल्लो. श्रृंगेरीक आद्य श्रीशंकराचार्याचो मठ आसा. हंपीलागसार विजयनगराच्या साम्राज्याचे अवशेश आसात. हिचे देगेर हरिहर हें उद्येगीक केंद्र आसून हॉस्पेट, कुर्नूल आदी म्हत्वाचीं शारां आसात.

तुंगभद्रा ही भारतीय संस्कृतीची व्हड प्रतिनिधी मानतात. अजुनूय वेदपाठी लोकांत तुंगभद्रेच्या देगेवयल्या वेदपाठी लोकांचे उच्चार प्रमाण मानतात.

– कों. वि. सं. मं.

**तुंबरू :** एक गंधर्व. हाचें तोंड घोड्याचें आशिल्लें अशी समजूत आसा. कश्यप आनी प्राधा हांचो हो पूत. मधू आनी माधव (चैत्र आनी वैशाख) ह्या दोन म्हयन्यांचो हो अधिपती समजतात. चैत्र म्हयन्यांत हो सुर्यावांगडा



ताच्या रथांत आसता. इंद्र आनी कुबेर हांचे राज्यसभेंतलो हो मुखेल गायक. विशिश्ट प्रसंगाचेर तो मृत्युलोकांतय येतालो. ताचे बायलेचें नांव रंभा आसून मनोवती आनी सुकेशा ह्यो ताच्यो दोन धुवो. रंभेचेर तो सुमाराभायर मोग करतालो देखून कुबेरान ताका शाप दिवन विराध नावांचो राकेस केलो. ह्या राकेसाक उपरांत रामाच्या हातान मरण येतकच ताका ताचें मूळ रूप प्राप्त जालें.

भारद्वाज ऋषीचे सांगणेन ताणें भरतामुखार गायन केल्लें. आपल्या गायनावरवीं ताणें हिरण्यकश्यपूच्या बळग्याचो गौरव केल्लो. ब्रह्मसभेंत तो नारदावांगडा कृष्णाचे गूण गायतालो. पुर्विल्ल्या साहित्यांतल्या विठ्ठलवर्णनांतय 'नारद तुंबरू हे । साम गायन करिती' असो उल्लेख

मेळटा. ताची वीणावादक म्हणुनूय नामना आसा. ताचे विणेचें नांव कलावती आशिल्लें. तंबोरो ह्या सद्याच्या वाद्याक ताचेंच नांव मेळळें अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**तुकडोजी महाराज :** (जल्म : २९ एप्रिल १९०९, यावली, जिल्हो-अमरावती; मरण : १० नोव्हेंबर १९६८, मोझरी, जिल्हो-अमरावती).

महाराष्ट्रांतलो एक आर्विल्लो संत, भक्त, कवी आनी समाजसुदारक. ताचें मूळ नांव माणिक बंडोजी ठाकूर. ठाकूर घराण्याचें कुलदैवत पंढरपूरचो विठोबा आशिल्ल्यान ल्हानपणासावन ताका ध्यान, भजन आनी पुजा हांची आवड निर्माण जाली. मराठी तिसरी मेरेन शिक्षण जातकच ताणें शाळा सोडली. अमरावती जिल्ह्यांतल्या वरखेडा गांवांत आजोळा आसताना ताणें थंयच्या आडकुजी महाराजाक आपलो गुरू केलो. फुडें तो किर्तनां, भजनां हांचेखातीर स्वता कवनां रचतालो. एक दीस ताच्या गुरून ताका 'तुकड्या' म्हणून उलो केलो आनी म्हळें, 'तुका म्हणे' अशें कितले दीस म्हण्टलो? तुकड्या म्हणे अशें म्हण. तेन्ना ताणें 'तुकड्या म्हणे' ह्या वाक्यान सोंपपी जायते अभंग रचले. देखून ताका तुकडोजी महाराज म्हणुनूच वळखूंक लागले.

ताच्या कीर्तनांत परमेश्वराविशीं भक्ती, बऱ्या गुणांचो उपदेश, समाजीक जागृताय आदी विशय आस्पावताले. देखूनूच ताका जंनता राश्ट्रसंत म्हणून वळखूंक लागली. किर्तनां आनी भजनां हांच्या माध्यमांतल्यान समाजसेवा करप होच ताचो मुखेल हेत आसलो. परंपरेन आयिल्ल्यो वायट चालीरिती, जाती-धर्मां मदलो भेदभाव, अंधविस्वास आदी समाजघातकी गजालींचेर खर टिका करून परमेश्वराचें खरें रूप तो लोकांमुखार मांडटालो. देखूनूच सगळ्या धर्मांच्या आनी सगळ्या पंथांच्या लोकांमदीं ताचेविशीं एक आदर निर्माण जालो. देशभक्तीचो प्रसार करपाखातीर ताणें रात दीस कश्ट केले. गांवागांवांनी भोंवन 'गुरुदेव सेवा मंडळां' स्थापलीं. व्यायामाचें म्हत्व सांगपाखातीर 'आदेशरचना' हो ग्रंथ बरयलो.

१९३० वर्सा सत्याग्रहांत वांटो घेवन ताणें राश्ट्रीय विचारांचो पुरस्कार केलो. गांधीजीसारक्या राश्ट्रीय नेत्यावांगडा ताचो संबंद आयलो. १९३६ त गांधीजी वांगडा आसताना राजेंद्रबाबू, पं. नेहरु, मौलाना आझाद आदी नेत्यांकडेन ताची वळख जाली. भारत सेवक सभाजांत ताणें गुलझारीलाल नंदाजीवांगडा काम केलें. भरपूर ग्रंथ बरोवन ताणें आपल्या मतांचो प्रसार केलो. ताच्या सुमार चाळीस पुस्तकांची नामना आसा. ४१ अध्याय आनी ४,६७५ होवयो आशिल्लो 'ग्रामग्रंथ' हें ताचें नामनेचें काव्य. ताणें हिंदी आनी मराठी ह्या दोनूय भाशांनी काव्यरचना केली. १९४२ चे चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्ल्यान कांय वर्सां ताका बंदखण भोगची पडली. बंदखणींत ताणें 'सुविचारस्मरणी' हो ग्रंथ बरयलो.

भारताचे सुटके उपरांत ताणें भूंयदान, अश्पृश्योद्धार, जातीनिर्मुलन आदी वावरांनी चड लक्ष दिलें.

विश्वधर्म आनी विश्वशती परिशदेखातीर १९५५ त तो जपानाक गेलो. थंय ताच्या भजनान जायत्या अस्तंती आनी उदेंती तत्त्वगिन्यानींचेर छाप पडलो. १९६६ त प्रयागाक विश्वहिंदू परिशदेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.



ईश्वराचें ज्ञान करून घेवन व्यक्तिविकास आनी समाज जागृती करूंक जाय अशें ताचें मत आशिल्लें. धर्मीक एकचार घडोवन हाडपाखतीर ताणें जायते यत्न केले. गुरूकुंज आश्रमांत ताका मरण आयलें; थंयच ताची समाधी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**तुकाराम :** (जल्म : १६०८, देहू, पुणें; मरण: १६४९).

एक संत कवी. ताचें पुराय नांव तुकाराम वोल्होबा मोरे (आंबिले). ताचो जल्म इंद्रायणी न्हंयेचे देगेर एका प्रतिश्ठीत गिरेस्त घराण्यांत जालो. ताच्या बापायचें नांव वोल्होबा आनी आवयचें नांव कनकाई आशिल्लें. व्हडल्या भावाचें नांव सावजी आनी धाकटया भावाचें नांव कान्होबा आशिल्लें. स्वता तुकारामान आपल्या अभंगांनी आपले जातीचो उल्लेख वैश्य, वाणी, कुणबी, शुद्र ह्या उतरांनी केला. आपलो वेवसाय वाण्याचो अशेंय ताणें म्हळां. आयज तुकोबाचे वंशज 'मोरे' हें आडनांव लायतात.



तुकाराम तेरा वर्सांचो आसताना, ताच्या जाण्टया बापायन सावकारी, वेपार आनी महाजनकी हे सगळे वेव्हार तुकारामाकडेन दिले. तुकाराम सतरा वर्सांचो आसताना ताच्या आवय-बापायक मरण आयलें. ह्या पांच वर्सांच्या काळांत तुकारामाचीं दोन लग्नां जालीं. पयली बायल रखमा ही मामाच्याच धूवची आशिल्ली. पूण तिका दम्याचें दुयेंस जाल्यान पुण्याच्या अप्पा गुळवे ह्या गिरेस्त मनशाचे चलयेकडेन तुकारामाचें दुसरें लग्न जालें. ह्याच काळांत महाराष्ट्रांत भिरांकूळ दुश्काळ पडून तुकोबाचें खूब नुकसान जालें. ताची पयली बायल, चलो, गोरवां मेलीं. मुळांत विरक्त आशिल्लो तुकाराम संवसाराक विटलो आनी ताणें एकांतवास आपणायलो. ईश्वरप्राप्ती हेंच ताचें ध्येय जालें. एकांतवासांत केशवचैतन्यान तुकारामाक सपनांत येवन 'रामकृष्ण हरी' हो मंत्र दिलो आनी नामदेवान पांडुरंगासयत सपनांत येवन कवित्व करपाचो आदेश दिलो. हाचे उपरांत तुकारामान आपली सगळी जीण समाजप्रबोधनाच्या वावरांत घालयली.

भक्ती ही तुकोबाची जिवीतनिश्ठा आशिल्ली. ईश्वरसाक्षात्कार जावन आत्मज्ञान जावचेपयलीं आनी उपरांतूय ताणें आमरण भक्तियोगाचें आचरण केलें. ह्या भक्तियोगांत ताणें प्रयत्नवादाचो पुरस्कार केला. ताणें आपल्या

अभंगांतल्यान दांभिक, भामटे आनी लोकांक फटोवपी लोकांचेर खर टिका केल्या. कितल्याशाच वर्सांसावन ताचे अभंग लोकांच्या तोंडांत घोळत आयल्यात. ज्ञानेश्वर आनी तुकाराम हांणी सांगिल्लो भागवतधर्म महाराष्ट्राच्या समाजीक आनी राश्ट्रीय प्रपंचाक शेंकड्यांनी वर्सां उपेगी थारून लाखांनी लोकांक मनशांती दिवपाक कारणीभूत थारलो. 'ग्यानबा तुकाराम' हो मराठी मनशाचो मंगल मंत्रच जाला.

इ.स. १६४९ वर्सा तुकाराम महाराज आपले कुडीसयत वैकुंठाक गेलो अशी भाविक लोकांची भावना आसा, जाल्यार ताणें उदकांत समाधी घेतली अशें कांय अभ्यासक मानतात. तुकारामाच्या वैकुंठाक गेल्ल्या दिसाक फाल्गुन शुद्ध द्वितीया हे तिथीक 'तुकारामबीज' म्हणून मनयतात.

– डॉ. नरेश कवडी

**तुघलक घराणें :** हाका तुघलुक अशेंय म्हण्टात. हें मध्ययुगीन हिंदुस्थानांतलें एक मुसलमान घराणें. १३२१ ते १३८८ ह्या काळांत तें दिल्लीच्या तख्ताचेर आशिल्लें. तुघलक घराण्याचो मूळ पुरूश घियासुद्दीन तुघलक हो अलाउद्दीन खिलजीच्या तेंपार भारतांत आयलो. मुखार कुत्बुद्दीन मुबारकशाह हाणें घियासुद्दीन तुघलकाक दिपालपुरचो सुभेदार नेमलो.

अलाउद्दीनच्या मरणाउपरांत ताणें खुसरौखानाचो पराभव करून तुघलक घराण्याची थापणूक केली. ताणें इस्लाम धर्माक धरून राज्य करपाक सुरवात केली. ताणें दिल्लीलागसार तुघलकाबाद नांवाचो किल्लो बांदून त्याच नांवाची नवी राजधानी वसयली. ताणें राज्याचो विस्तार करून साबार प्रकारांचीं लोकांक उपेगी पडपी कामां केलीं, राज्याचें उत्पन्न वाडयलें, ताच्या तेंपावयली म्हत्वाची येवजण म्हळ्यार टपाल येरादारीची वेवस्था. दक्षिणेकडच्या चडशा राज्यांकडेन ताचे संबंद बरे आशिल्ले.

१३२३त ताणें तेलंगणाचेर घुरी घालून तें आपल्या राज्याक जोडलें. १३२५त ताका मरण आयलें. ताचेउपरांत उल्लुघखान (१३२५-५१) गादयेर आयलो. हाकाच मुहम्मद तुघलक म्हणून वळखतात. तो खूब हुशार, बुदवंत पूण तितलोच क्रूर आशिल्लो. गादयेर आयलेउपरांत ताणें आपल्या व्हडल्या भावाक जिवेशीं मारलो. दुसऱ्या वर्सा दक्षिणेंत बंड केल्ल्या बहाउद्दीन गुर्शास्प हाका ताणें हुलपावन मारलो. ताणें राज्यकारभारांत साबार सुदारणा केल्ल्यो. पूण ताच्या लहरी स्वभावाक लागून आनी अतीतायपणाक लागून तो लोकांमदीं अप्रिय जालो. हाका लागून प्रजेमदीं असमाधान आनी बंडखोरी पातळ्ळी.

दक्षिणेंत जावपी बंडांक लागून मुहम्मदाक आपली राजधानी मध्य अशे सुवातेर आसची अशें दिसलें, म्हणून ताणें देवगिरीक दौलताबाद हें नांव दिवन सगळ्यांक थंय वचपाचो हुकूम दिलो. उपरांत कांय म्हयन्यांभितर ताणें आपली राजधानी परत दिल्लीक व्हेली. दौलताबादेक (देवगिरी) आयिल्ल्या लोकांक परत दिल्लीक वचपाचो हुकूम ताणें दिलो. ह्या हुकमाआड जे कोण वागपाक लागले, तांचेकडेन तो क्रूरपणान वागलो. लोक ताचे राजवटीक त्रासून गेले.

मुहम्मदा उपरांत फिरूझशाह (१३५१-८८) गादयेर आयलो. तो हुशार, बुदवंत तसोच म्होंवाळ सभावाचो आशिल्लो. ताणें खूब समाजीक वावर केलो. साबार गरीब लोकांक आलाशिरो दिलो. ताणें दिल्लीचे दक्षिणेक यमुना न्हंयेचे देगेर फिरोझाबाद हें नवें शार उबारलें. ताच्या मरणा उपरांत तुघलक घराण्याक देंवती कळा लागली. ताच्या उपरांत घियासुद्दीन दुसरो तुघलक, अबू बकर, दुसरो मुहम्मद, सिकंदर आनी नासीरूद्दीन मुहम्मद अशे स सुलतान गादयेर आयले. पूण ते पराक्रमी नाशिल्ले. निमाणो सुलतान मुहम्मद शाहाच्या (१३९४-१४१२) तेंपार तैमूरलंग हाणें हिंदुस्थानाचेर घुरी घाली. १४१०त खिज्रखान ह्या सय्यद घराण्याच्या संस्थापकान मुहम्मदशाह हाका धरून ताची राजधानी फिरोझाबादेक हालयली. मुहम्मदाक १४१२त मरण आयलें आनी ताच्या दरबारांतलो दौलतखान लोदी गादयेर आयलो, पूण ताचो पराभव करून खिज्रखानान आपल्या सय्यद घराण्याची दिल्लीचेर थापणूक केली.

– कों. वि. सं. मं.

**तुणतुणें :** एक तंतुवाद्य. ह्या वाद्यांतल्यान तुण तुण असो आवाज येता देखून हाका तुणतुणें अशें नांव पडलें. सुमार दोन वेतां उंचायेचें आनी वेंतभर आवांठाचें पोकळ लाकडी आयदन घेवन ताचे सकयले वटेन कातडें चडयतात. कातड्याच्या मदल्या भागांतल्यान बारीक सरी वयर घेतिल्ली आसता. तशेंच, लाकडी आयदनाक कोंड्याची एक तिरकस दांडी बसयतात. हे दांडयेच्या वयल्या तोंकाक आशिल्ले खुंटयेक ही सरी ताणून गुठलायतात. स्वर जाय तसो सकयल वयर करपाखातीर ही खुंटी पिळून सरयेक चड उणो ताण दितात. दांडी उजव्या हातांत धरून त्याच हाताच्या आखाण्याकडल्या बोटान सरयेचेर आघात करून वा दाव्या हातांत तुणतुणें धरून उजव्या हातांतले काडयेन आघात करूनूय हें वाद्य वाजयतात.

गोंधळी, भुत्यां पोवाडे म्हणपी शाहिर हें वाद्य वापरतात. तमाशांतल्या पदांक साथ दिवपाखातीर धोलक्यावांगडा तुणतुणें आसता. दक्षिणेंत ह्या वाद्याक तुंतिण अशें म्हण्टात. यल्लम्मादेवीचे उपासक आशिल्ल्या जोगती जोगतिणींच्या हातांत जें चौंडके नांवाचें वाद्य आसता, तेंय एक प्रकारचें तुणतुणेंच आसता.

– कों. वि. सं. मं.

**तुतारी :** एक सुषिर (फुंकपाचें) वाद्य, हें पितूळ ह्या धातूपसून तयार करतात. हाचें एक तोंक ल्हान आनी आंखूड आसून दुसऱ्या तोंकाक ल्हानसो कर्णो बसयल्लो आसता. ह्या वाद्याची नळी सरळ वा बांकदार आसता. हें वाद्य धर्मीक आनी मंगल सुवाळ्या वेळार, मिरवणुकेंत वा देवालयांत वाजयतात. आदल्या तेंपार झुजांतय ह्या वाद्याचो उपेग करताले. हाका ततूरी, तुरही अशींय हेर नांवां आसात. पुराणांत हाचो उल्लेख तुर्य ह्या नांवान मेळटा.

– कों. वि. सं. मं.

**तुतिकोरिन :** (तमीळ - तुत्तुक्कुडि). भारतांतल्या धा मुखेल बंदरांतलें एक. तमीळनाडू राज्यांतल्या चेन्नई फाटोफाट ह्या बंदराचो दुसरो नंबर लागता. तमीळनाडू राज्यांतल्या तिरुनेलवेली जिल्ह्यांत, तिरुनेलवेली शाराचे उदेंतेक, मदुराईसावन १२० किमी. अंतराचेर मानारच्या आखाताचेर हें बंदर आसा. मोतयां आनी शंख हांचेखातीर ह्या थळाची नामना आशिल्ली.

१५४० त पुर्तुगेजांची थंय वसणूक आशिल्ली. १६५८त तें डचांनी आनी १७८२ इंग्लिशांनी घेतलें. परत हें शार डच आनी इंग्लिशांकडेन आलटून पालटून वचून निमाणें १८२५त कायम इंग्लिशांक मेळ्ळें. १८६६ त थंय नगरपालिकेची स्थापणूक जाली.

१९६० उपरांत हांगाचें सुरक्षीत बंदर खोल केलें. म्हाल सांठोवपाच्यो आनी नुस्तेमारीच्यो सुविधा वाडयल्यो. हांगाच्यान कापूस, कापसाचे पदार्थ ,च्या, काफी, कातडी, मिरसांगो, तांदूळ, मीठ, आदी वस्तू निर्यात जातात. हांगा कापसाच्यो गिरण्यो, मिठागरां, नुस्तेमारी, नुस्तें सुकोवप, आदी उद्येग चलतात. हांगा क्रिस्तांवांची संख्या चड प्रमाणांत आसा. मदुराई विद्यापिठाक जोडिल्लीं म्हाविद्यालयां हांगा आसात. हें शार देशाच्या अंतर्भागाक दक्षिण रेल्वेन जोडिल्लें आसून ताचे लागसार दर्यांत सुमार चार किमी. अंतराचेर एक दीपगृह आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## तुपे, जयसिंग गंगाराम : (जल्मः ३० ऑगस्ट १९२८, हवेली, पुणें – महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी माध्यमिक पांवड्यामेरेन शिक्षण घेतलें. भारत छोडो चळवळीच्या काळांत तो भूंयगत वावरांनी वांटो घेतालो. तेचपरी गोवा विमोचन सहाय्यक समितीचो तो वावुरपी वांगडी आशिल्लो. १९५५ वर्सा ताणें गोंयचे सत्याग्रह चळवळींत वांटो घेतलो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी चार दीस बंदखणींत दवरलो. १९८७ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## तुपे, राम दशरथ : (जल्मः १० मार्च १९२१, हडपसार, हवेली - पुणें).

सुटकेझुजारी. ताणें शेतकी क्षेत्रांतली पदवी मेळयली. तो सोशलिस्ट पक्षाचो, प्रजा सोशलिस्ट पक्षाचो, तेचपरी जनता पक्षाचो वांगडी आशिल्लो. १९५३-५४ ह्या काळांत खाणा-जेवणाचे दरवाडी आड सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९५३-५६ ह्या काळांत तो पुणें नगरपलिकेचो वांगडी आशिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी एका म्हयन्याखातीर बंदखणींत दवरलो. पुणें जिल्ह्यांत तो गोंयचे सुटके चळवळीचो प्रचार करतालो, तेचपरी सत्याग्रहींचे दोन पंगड ताणें तयार केल्ले. फुडें १५ ऑगस्ट १९५५ह्या दिसा ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतलो देखून ताका पोलिसांनी धरलो आनी २४ वरां बंदखणींत दवरलो. महाराष्ट्राचे संयुक्त चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो देखून ताका दोन म्हयन्यांखातीर बंदखणींत दवरलो. १९५७-६२ ह्या काळांत तो महाराष्ट्र विधानसभेचो वांगडी आशिल्लो. ताणें गोंय सुटकेझुजाऱ्यांची अखिल भारतीय संस्था घडोवन हाडली. सद्या तो 'अखिल भारतीय गोवा स्वांतत्र्य संग्राम सैनिक संघाचो, अध्यक्ष आसा. १९८५ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. उपरांतच्या काळांत तो समाजीक वावर करूंक लागलो.

- कों. वि. सं. मं.

## तुबक : लांब पल्ल्याचेर गुळयेचो मारो करपी आर्विल्ल्या काळांतलें एक संवकळीचें शस्त्र. धातूची गुळी दारूगुळयाच्या स्फोटान आनी नळयेच्या प्रक्षेपकांतल्यान सोंपेपणी मारपाची तजवीज करपी हें शस्त्र. ताचे सादे यंत्रणेक लागून ताचो वापर अडचणीविणें करूंक मेळटा.

गुळयेचें वजन आनी आकार नळयेची लांबाय आनी तोंडाचो घेर गुळयेच्या माऱ्याची शक्त, आयुधाचें सगळें वजन, लांबाय आनी रुंदाय ह्या सगळ्या घटकांचो विचार करून तुबकाची रचणूक करतात.

कोंड्याचे नळयेंतल्यान दारूचे बाण सोडपी हात नाळींचो उल्लेख चीनांत इकराव्या शेंकड्यापसून मेळटा. बु-जिंग जुंग्-याव आनी वु-बै-जू ह्या पंदराव्या आनी सोळाव्या चीनी सैनिकी ग्रंथांनी हात नाळींचीं चित्रां आसात.

१३८८ पसून हात नाळींचो वापर युरोपांत केल्लो दिसता. १६ व्या शतमानाचे अखेरेक धातूच्यो कारतूस गुळयो आनी आघात प्रेरीत स्फोटक दारूचो सोद लागलो. उपरांत तुबक आनी तेउपरांतची सुदारक आकृती रायफल हांचे यंत्रणेंत सुदारणा जाली, ताचेउपरांत स्वयंचलीत फारपेट करपी सैनिकी रायफली तयार जावंक लागल्यो. पंदराव्या शतमानाचे अखेरेक पुर्तुगेजांनी ठासणीचीं तुबकां भारतांत हाडलीं. तेच धर्तेर भारतांतल्या राजांनी तुबकां तयार केलीं. अठराव्या शतमानांत बंगालचो सुभेदार मीर कासीम हाणें तयार केल्लीं तुबकां त्या वेळावयल्या इंग्लीश तुबकां परस चड गूणकारी आशिल्लीं.

स्वातंत्र्योत्तर काळांत स्वंयचलीत रायफलांत खुबूच सुदारणा जाली. गुळयेच्या माऱ्याची शक्त, माऱ्याचें अंतर, गुळयेची चक्री चाल, दुर्बिणीची जोड, संगिनाची जोड ह्या सारकिल्या तंत्राचेर संशोधन करून रायफल हें शस्त्र चडांत चड परिपूर्ण केलें.

पिस्तोल आनी रिवॉल्वर हीं आनीक दोन दारूगुळयांचो मारो करपी तुबकां ह्या शस्त्रप्रकारांतलीं दोन शस्त्रां. इ.स. १५१७ त दक्षिण जर्मनींत, इटलींत पिस्तोलाची निर्मिती जाली आसुंये. १८३६ त सॅम्युएल कोल्ट ह्या अमेरिकन मनशान रिवॉल्वर तयार केलें. हीं शस्त्रां वापरपाक एका हाताचो वापर पुरो जाल्ल्यान अकस्मात जावपी हल्ल्यापसून आत्मसंरक्षण करपाक तशेंच जलद प्रतिकार करपाक हीं शस्त्रां तुबक रायफलचे तुळेन सोंपी जातात.

तुबकाचो वापर शिकारी, झुजांत सैनिक, तशेंच मुल्की सेवेंत पोलीस करतात. संरक्षणाखातीर नागरीक हें शस्त्र आपणाकडेन दवरतात. अशें शस्त्र बाळगुपाचो परवानो काडचो पडटा.

नेमबाजी स्पर्धेंतय तुबकाचो वापर करतात. ओलिंपीक खेळांत अशो नेमबाजीच्यो सर्ती जातात. तेभायर भारत धरून भोवतेक सगळ्याच राश्ट्रांनी नेमबाजीच्यो सर्ती आयोजीत करतात.

- कों. वि. सं. मं.

## तुरो : तकलेक घालपाचें एक आभुशण. तुरो हो फुलां, कागद, शेवण्यांचीं पाखां, जांव प्लास्टीकचो करतात. आदल्या तेंपार राजा, सरदार हांच्या शिरस्त्राणाचेर तुरो लायताले. दरेकाचो तुरो स्वतंत्र आकाराचो आसता. ताका लागून त्या त्या सरदाराची वळख रोखडीच पट्टाली. फुडें शिरस्त्राणांची पद्दत वतकच हो तुरो फुलांच्या हाराचेर, मुकुटाचेर, तोपयेर, फेटयाचेर वा ढालीचेरूय बसोवंक लागले. इतिहासकाळांत तुऱ्याचो राजचिन्नांत आस्पाव जालो. मराठी शाहिरी परंपरेंतले तुरेवाले शाहीर आपल्या डफाचेर लेगीत तुरो लायताले.

- कों. वि. सं. मं.

**तुर्कस्थान :** अक्षांश - ३६° उत्तर ते ४२° उत्तर; रेखांश २६° उदेंत आनी ४५° उदेंत. राजपाटण - आंकारा, चलन - टर्कीश लिरा, भास - तुर्की. साक्षरताय - ७०%.

**क्षेत्रफळ** - ७,७९,४५२ चौ. किमी. लोकसंख्या ५,६५,४९,०००. उत्तर गोलार्धांत, आशिया आनी युरोप खंडांक जोडपी मुस्लीम भोवसंख्य सर्वधर्मसमभावी राश्ट्र. ह्या राश्ट्राचे दक्षिणेक मॅडिटेरेनियन, अस्तंतेक एजीयन आनी उत्तरेक काळो दर्या आसा. ते भायर ह्या देशाच्यो शिमो उत्तर-उदेंतेक रशिया, उदेंतेक इराण, दक्षिण उदेंतेक इराक आनी सिरिया, अस्तंतेक ग्रीस आनी उत्तर-अस्तंतेक बल्गेरियाक लागल्यात.

**भूंयवर्णन** - तुर्कस्थान सात सैमीक विभागांनी वांटून गेलां. काळो दर्या प्रांत, मारमारा प्रांत, एजीयन प्रांत, मॅडिटेरेनियन प्रांत, मध्य अंटोलिया, उदेंत आनी दक्षिण उदेंत प्रांत आनी उत्तर अँटोलियन वाठार. रानां दोंगरांनी भरिल्ली अँटोलियन प्रांताची लांब आनी अशीर शीर काळ्या दर्याक समांतर पातळ्ळ्या. तिणें देशाची १/६ भूंय आडायल्या. ह्या प्रांतांत दोन दोंगररांको आसात. पयली उदेंत दोंगररांक दर्यावेळेक समांतर वता. दुसरी दोंगररांक उणे उंचायेची आसून तातूंत देगणां, उदकाळ वाठार आनी उकतीं मळां शिंपडिल्लीं आसात. मारमारा प्रांत मारमारा दर्याभोंवतणीं पातळ्ळा. तातूंत युरोपांतलो तुर्की वाठार आनी उत्तर अस्तंतेचें अँटोलियन मळ आस्पावलां. ह्या प्रांतांतल्या सगळ्यांत म्हत्वाच्या तेमकाचें नांव युलूडॅग [(uludag) उंचाय, २,५४३ मी.] आसा. लोकांची वस्ती हांगा खूब आसा. ह्या प्रांताच्या अंटोलियन विभागांत उत्तरेक कोकायली आनी कातल्का दोंगराळ वाठार आसात. कसाळ मैदानी वाठार तातूंत उदेंत ते अस्तंत मेरेन आसात. ह्या प्रांतांत थ्रास (Thrace) नांवाचो भूंयभाग आसा. एजीयन (Aegean) प्रांत एजीएन दर्यावेळ ते अस्तंत अँटोलियांतल्या मदल्या भागामेरेन पातळ्ळ्या. ह्या भागांतले दोंगर दर्याक समांतर उदेंत ते अस्तंत मेरेन आसात. गेदीझ (Gediz), कुकूक (Kucuk), मेंदेरीस (Menderes) आनी बाकिरके (Bakircay) हे ह्या प्रांतांतले मैदानी वाठार.

देशाचे दक्षिणेक मॅडिटेरेनियन प्रांत आसा. अस्तंत आनी मध्य तावरूस (Taurus) दोंगर तेचपरी अमानोस (Amanos) दर्यारांक ह्या प्रांतांत आस्पावल्या. पिकावळीक योग्य मैदानी भागूय ह्या वाठारांत आसात. मध्य अँटोलियन प्रांत तुर्कस्थानाच्या मध्यभागाक आसा. हो वाठार दोंगराळ नासलो तरी कांय तेमकां देखीक करदाग (Karadag), करकादाग (Karacadag), हसनदाग (Hasandag) आनी इरसियस (Erciyes) हागां आसात. उदेंत अँटोलियन प्रांत देशाचो सगळ्यांपरस उंचायेर वशिल्लो सगळ्यांत व्हड सैमीक वाठार. हातूंतलो ३/४ वाठार १,५०० - २,००० मी. उंचायेर वसला. ह्या वाठारांत कांय एकोडे दोंगर, पर्वतरांको उदेंत ते अस्तंत मेरेन पातळ्ळ्यात. पयली रांक उत्तरेक आसून तातूंत कोस, कोप आनी अल्ला हू अकबर दोंगर आसात. दुसरी मुझूंर आनी करासू आरास पर्वतरांक ही मध्य तारूस दोंगररांकेचो विस्तार. ह्या रांकेचो आकार धोणवावरी आसा. तिसरी रांक दक्षिण उदेंत तारूस दोंगरांनी घडल्या. ह्या वाठारांत कांय न्हिदिल्ले ज्वालामुखी आसात. देखीक नेमरूत (Nemrut), सुफान (Suphan), तेंद्रूक (Tendurek) आनी तुर्कस्थानांतलें सगळ्यांत व्हड तेमूक माऊंट अग्री [(अरारत) उंचाय ५१६५ मी.)]. मुरात न्हंयेचे देगेक जायते मैदानी वाठार आसात. देखीक मलाझगीर्त (Malazgirt), मूस (Mus), कप्पकूर (Capakcur), उलोवा (Ulova) आनी मलाट्या (Malatya). दक्षिण उदेंत अँटोलिया प्रांतांत जमनीचें सारकेपण ही खास विशेशताय आसली तरी तातूंतल्या उदेंतेकडच्या विभागाचो अस्तंतेकडल्या भागाकडेन आशिल्लो थोडो फरक ठळकपणान दिसता.

**न्हंयो** - युफरिटस (Euphrates) आनी टायग्रीस (Tigris) ह्यो न्हंयो देशांतल्यान व्हांवत इराकांत वचून एकठांय जातात. देशांतली सगळ्यांत लांब न्हंय किझिलीरमाक (Kizilirmak), येसिलिरमाक (Yesilirmark) आनी सकार्या (Sakarya) ह्यो काळ्या दर्याक मेळटात. सुसुरलूक (Susurluck) बिगा आनी गोनेन ह्यो न्हंयो मार्मारा दर्याक मेळटात. गेदीझ, कुकूक, मेंदीरीस, बुयूक मेंदीरीस आनी मेरीक ह्यो न्हंयो एजीयन दर्याक मेळटात. सिह्यान, सियान (Ceyhan) आनी गोक्सू (Goksu) मॅडिटेरेनियन दर्याक मेळटात.

**तळीं** - मध्य अँटोलियन प्रांतांत आशिल्लें वान तळें (Van Lake) (३,७१४ चौ. किमी.) देशांत सगळ्यांत व्हड. ह्या प्रांतांतल्या हेर तळ्यांमदीं इर्सक (Ercek), सिल्दीर (Cildir) आनी हजर (Hazar) हांचो आस्पाव जाता. अस्तंत तरस दोंगरमाळेंत बेशीर (Beysehir), इगीरदीर (Egirdir) बुर्दूर आनी ॲसीगोलार (Acigoller) हीं म्हत्वाचीं तळीं आसात. मारमारा दर्यालागीं संपका (Sapanca) इज्नीक (Iznik), लूबट (Ulubat), मयास (Manyas), तेरेकोस (Terkos) कुकसीकमीस (Kucukcekimece), बुयूकसीकमीस (Buyukcekmes) हीं तळीं आसात. ८०-९० च्या दशकांत धरणाचे बांदावळीक नेट आयिल्ल्यान मनीसनिर्मीत तळीं विंगड विंगड सुवातींनी दिश्टी पडटात. देखीक - किबान (Keban), करकाया (Karakaya), अल्तींकाया(Altinkaya), ॲदिगुझेल(Adiguzel), किलीक्काया (Kilickaya) काराकोरेन (Karacoren).

**दर्या** - देशाक तीन वटांनी गिरेस्त दर्यावेळ लाबल्या. उत्तरेच्या काळ्या दर्याची लांबाय १,६९५ किमी. आसून तातूंतल्या उदकाचे खारसाणीचें प्रमाण १७ प्रतीशत इतलें आसा. दक्षिणेक आशिल्लो मॅडिटेरेनियन दर्या १,५७७ किमी. लांब आसून ताची खारसाण काळ्या दर्याच्या दुपेटीन आसा. अस्तंतेचो एजीयन दर्या २,८०० किमी. लांब आसा. देशाचे राश्ट्रीय शिमेभितर मारमारा दर्या ११,३५० चौ. किमी. वाठारांत पातळ्ळा. ताची दर्यावेळ सुमार १,००० किमी. इतली जाता.

**हवामान** - अँटोलियन आनी मेडिटेरेनियन प्रांतांतलो गिमाळो खर जाल्यार शियाळो कडक आनी पावशी आसता. एजीयन आनी मारमारा प्रांतांचे दर्यावेळेर सादारण अशेंच वातावरण आसता. काळो दर्या वाठारांतलें तापमान त्या मानान उणें आसता. मध्य अंटोलियन प्रांतांत शियां दिसांनी बर्फ पडटा. उदेंत शियाळ्यांत कडक शियाच्या सांगाताक हीम पडटा. दक्षिण उदेंत अँटोलिया प्रांतांतलो गिमाळो सुको आनी गरम जाल्यार शियाळो सर्वसादारण आसता. पावसाचें प्रमाण सरासरी ६२६.३ मिमी. आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात** - १९८८ वर्साच्या आंकड्याप्रमाण ह्या देशांतली २०.२ दशलक्ष हॅक्टर भूंय रानासकयल आसा. सद्या देशांतल्या १०.९ प्रतीशत भुंयेर पातळिल्ल्या रानांत उत्पादन क्षमताय आसा. रानासकयल चडांतचड भूंय हाडूंक आनी सांबाळून दवरूंक सरकारान साबार कार्यावळी आंखल्यात आनी ह्या वावरांत सरकाराक यस मेळ्ळां. १९८८ वर्सा रानावरवीं मेळपी वस्तूंचें वट्ट उत्पादन १,७२,००० टन जालें. ताचें मोल १७,६६,२५३ दशलक्ष टर्कीश लिरा इतलें जाता. १९८८ वर्सा ३९,००० टन रानांतल्या लाकडाची निर्गत परदेशांत

जाली. तिचें मोल ९,८६२ दशलक्ष टर्कीश लिरा इतलें जाता. रानांतल्या हेर वस्तूंचे निर्गतीचें मोल ३०,३४५ दशलक्ष टर्कीश लिरा इतलें जाता.

देशांतल्या मुखेल फळफळावळींत ऑलिव्ह, संत्रां, द्राक्षां, लिंबू, टँजेरीन, सॅव्हील ऑरेंज, पॅर, सफरचंद आनी चॅरी हांचो आस्पाव जाता. पोशिल्ल्या जनावरांचे आंकड्यांवळेरेंत देशाची सुवात संवसारांत खूब उंचेली आसा. बोकडी, मेंढरां, गोरवां आनी म्हसरां ही हांगासल्ली मुखेल मोनजात. मोनजाती वरवीं मेळपी दूद, तांतीं, लोकर आनी हेर वस्तूंचें मोल १९८९ चे अखेरेक ८६,३३,६९३ दशलक्ष टर्कीश लिरा इतलें जाता.

इसवी सनाच्या आठ शतमानांआदीं 'हूण' ही रानवटी जमात ह्या वाठारांत येवन रावली. संवसाराच्या इतिहासांत घोडे पोसपी आनी घेवन भोंवपी ही पयली वयली जमात अशें म्हण्टात. आपल्या घोडदळाचे तांकीचेर जर्मन आनी रोमन लोकांपरस ते सरस थारिल्लेचे उल्लेख मेळटात. हूणाचे वसतीसावन इसवी सनाच्या पांचव्या शतमानामेरेन तुर्कस्थानाचो इतिहास सारको उपलब्ध ना. अल बिरुनी हाणें बरोवन दवरिल्ले नोंदीप्रमाण इसवी सना आदीं ह्या वाठाराचेर राज्य करपी कुशाण वंशांत ६० राजा जावन गेले. निमाणो राजा लेगटर्मन (Legturman) हाका कल्हूर (Kalhur) नांवाच्या ब्राह्मण मंत्र्यान पदाभायरो केलो.

प्रा. मोहमंद हबीब हाणें आपल्या 'Sultan Mahumad of Ghazni' ह्या पुस्तंकातले तळटीपेंत वयर उल्लेख जाल्ल्या काळखंडांत जावन गेल्ल्या आनी अस्तंत आशिया प्रांतांत राज्य चलोवपी समानीड वंशीय (Samanid) कांय राजांचो उल्लेख केला. तांचीं नांवां अशीं - अब्दूल मलीक बीन नह (इ.स. ३४३ ते ३५०), मन्सूर बीन नह (इ.स. ३५० ते ३६५) आनी नह बीन मन्सूर (इ.स. ३६५ ते ३८७).

सरकारी इतिहासाप्रमाण सव्या शतमानांत (इ.स. ५५२) ह्या वाठारांत बुमीन कागन (Bumin Kagan) हाणें गोतूर्क वंशाची बुन्याद घाली. सातव्या शतमानांत गोतूर्क वंशीय चीन राजवटीच्या शेकातळा आयलें. निमाणें ह्या वंशांतल्या 'कुतूल्क' हाणें बंड करून आपलो वाठार स्वतंत्र केलो. ७१६ त ताचो पूत बिल्ग कगान(Bilge Kagan) राजा जालो. ताचो भाव कुल्टेजीन (Kultegin) आनी वझीर टोनी युकूक (Tonyukuk) हांच्या पालवान ७३४ वर्सा मेरेन राज्य केलें. ह्या वंशियाची राजवट ७४५ मेरेन चलली. त्या वर्सा युगूर वंशियानी (Uygurs) घाल्ल्या घुरयांनी गोतूर्कांची राजवट सोंपली. वयल्या घडणुकांक लागून एकठांय आशिल्ले तूर्क लोक युगूर आनी हेर जमातींमदीं वांटून गेले. युगूर वंशियाक लागून शेतपिकावळीन गिरेस्त आशिल्ल्या वाठाराक 'तुर्कस्थान' म्हणून वळखूंक लागले. १२२९ वर्सा मंगोल वंशियांनी युगूराची राजवट सोंपयली खरी, पूण तांचें सांस्कृतिक आनी राजकीय खाशेलेपण सासणाचें तिगून उरलें.

आठव्या शतमानांत तूर्क लोकांचो मुस्लीम धर्मीयांवांगडा पयलो वयलो संबंद आयलो. हाका लागून मुस्लीम धर्म तूर्क लोकांमदीं आयलो. सूर्वेक मुस्लिमांचो प्रभाव ओमयाड (Omayad) वंशियांचे अरबी विचारप्रणालीक लागून वाडूंक पावंक ना. मुस्लीम तूर्क आनी इराणी लोकांनी ॲबीसाड (Abbaside) राजवंशाच्या मतान ६६१ ते ७५० वर्सा मेरेन संघर्श केलो. हाचो परिणाम म्हणून ७५० वर्सा ॲबीसाड राजवंश सत्तेर आयलो. त्या वेळार मुस्लीम तुर्कांनी म्हत्वाच्या सुवातींनी आपले मनीस नेमले. अशे तरेन तुर्कस्थान इस्लामी विचारसरणेच्या प्रभावसकयल आयलो आनी उपरांत मुसलमान धर्मीय जालो. धर्मांतरांची प्रक्रिया धाव्या शतमाना मेरेन अखंडीत पणान चलली.

कऱ्हाण (Karahans) वंशियांनी ९९० ते १२१२ च्या काळामेरेन तुर्कस्थानाचेर राज्य केलें. ताच्या काळांत चित्र, शिल्प सारक्या कलांची भरभराट जाली. शाळा, पूल आनी मशिदीसारक्या बांदावळींची निर्मणी जाल्ल्यान स्थापत्यकलेची उदरगत जाली. बुहर (Buhara) आनी समरखंड (Semerkand) ह्या सुवातींक ह्या काळांत शिक्षणीक नदरेन म्हत्व मेळ्ळें. तुर्की भाशेची उदरगतीची प्रक्रिया ह्याच काळांत सुरू जाली. युसूफ हज हबीब हाची कुत्दग्रू बिलीक (आनंद दिवपी गिन्यान) ही रचना तुर्की साहित्यांत मानाची सुवात जोडून आसा. तिची रचना १०६९-१०७० ह्या काळांत जाली.

सन ९६३ वर्सा गझनवी वंशीय बव्हकुटेकीन (Bevuktekin) हाणें तूर्क प्रांतांत गझनवी नांवाचें मुस्लीम राज्य वसयलें. ९७७ ते १०३० ह्या काळांत ताचो पूत मम्मट हाणें राज्य केलें. ताणें मुस्लीम धर्म प्रसाराचो आवांठ मुल्तान, सिंध आनी पंजाब मेरेन पावयलो. मम्मटाचो पूत मसूद आनी सिलकूक (Selcuk) वंशीय तुग्रूल बे हाचेमदीं १०४० वर्सा ददकिण (Dardanakan) वाठारांत झूज जालें. ह्या झुजांत मसूदाक आपलो व्हड वाठार वगडावंचो पडलो. ११८६ त गझनवी राजसत्ता ओगूझ वंशियांनी पुराय रितीन सोंपयली.

ओगूझ (Oguz) वंशियांनी आपले राजवटीक ॲंटोलिया, इराक कॉकेशसाचो दक्षिण भाग, अझरबैझान आनी उत्तर इराण हे भाग जोडले. सिलूक ही ओगूझ वंशियांची पोटशाखा. तुग्रुल बे आनी काग्री (काखीर) मूळ सिलूक राजाचे नातू. तांच्या काळांत सिलूक आनी ओगुझ वंशियांक सिल्जूक म्हणून वळखूंक लागले. गझनवीच्या अस्ताउपरांत म्हान सिल्जूक राजसत्तेची बुन्याद १०४० वर्सा पडली. १०७१ वर्सा तुग्रल बे चो नातू आल्प अर्सेलन १०६३ ते १०७२ काळांत सत्तेर आसलो. बायझांटायन राजसत्ता आनी ताचेमदीं मलाझग्रीत वाठारांत झूज जालें. तातूंत बायझांटायनाक हार खावंची पडली. हाचो परिणाम म्हणून मुस्लीम तुर्क अंटोलियन भागांत रिगले.

१०७१ वर्सा ॲंटोलियांत मुस्लिम धर्मप्रसार जालो. दुसरे वटेन तुर्कांनी पुराय अंटोलिया ताब्यांत घेवन ॲंटोलियन राज्य वसयलें. हें राज्य सेल्जूक राजसत्तेचो वांटो आसलें. किलीक अर्सेलन इसवी सन ११५३ ते ११९२ मदीं सत्तेचेर आसलो. ताच्या काळांत धर्मीक पिठां आनी शिक्षणीक संस्थानां अस्तित्वांत आयलीं. वैजकी मळारूय सेल्जूक वंशियांनी म्हत्वाचो वावर केलो. दारूश-सिफा (Darush - Shifa) दारूल - अफीइ (Darul - Afiye) आनी दारूल सिन्हा (Darish - Sinha) ह्यो वैजकी संस्था ताच्यो गवाय जावन रावल्यात. १२ व्या आनी १३ व्या शतमानांत पर्शियी संस्कृतीचो प्रभाव ॲंटोलियन सेल्जूक राज्यांत वाडलो. कला, धंदो आनी प्रशासन आदी वाठारांत इराणी संस्कृती आनी भास हांचें अस्तित्व ठळकपणान नदरेंत भरूंक लागलें.

सेल्जूक राजसत्तेचो वायट काळ १३०८ वर्सा सुरू जालो. १६ व्या शतमानामेरेन ही सत्ता ल्हान ल्हान राजवटीं भितर वांटून गेली. राजकीय अखंडपणाक गेल्ली वेर निमाणो ओसमनोगूल (Osmonoguls) हाणें पुरयली. ताणें सगळ्या ल्हान राजसत्तांचो नाश करून ॲंटोलियांत राजकी एकचार हाडलो. दुसरे वटेन अंकारा - अक्सरे शीमेचे उदेंतेक आशिल्लो मध्य ॲंटोलियन वाठार हरझुरुम मेरेन (Erzurum) इलानी जनरल गव्हर्नराच्या प्रशासनासकल १३३६ मेरेन उरलो. इलानचो राजा अबू सैद बहादीर खान हाच्या मरणा उपरांत थंय अंतर्गत बंडाळी जाली. हाचो

परिणाम म्हणून थंय नवी राजसत्ता उदेली. ह्या प्रांतांतल्या केसरी-सिवास (Kayseri -Sivas) भागांत युगूर तुर्कांनी इरेत्ना (Eretne) राजवट हाडली. तेराव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत ह्याच वाठारांत दुसऱ्या राजवंशान तुर्की कादी बरहटन राज्य घडयलें.

१४ व्या शतमानांत अस्तंत तुर्कींत वशिल्ल्या तुर्कांनी इस्लामी संवसारांत राजकी अखंडीतपण परत मेळोवंचे नदरेन म्हत्वाचो वावर केलो. तुर्की भाशा सहित्यांत म्हत्वाचीं परिवर्तनां ह्याच काळांत आयलीं. १४ ते १५ व्या शतमानांत तुर्की शारांत गांवगिरे लोक आनी हेर वाठारांतले स्थलांतरीत लोक हांची सरभरस जाली. ह्या लोकांनी कारागिरी करपी लोकांचे पंगड घडयले. ताका 'अही' म्हण्टाले. शाराचे उदरगतीपासत वावर करपाचो म्हत्वाचो वांटो ह्या 'अही'नी उखललो.

१४ व्या शतमानांत तूर्क बायझांटायन शिमेर रावपी तुर्की आदिवासींनी बळिश्ट ऑटोमन राजवंशाची थापणूक केली. १४०२ त तामीरलेन (Tamerlane) हाणें हिल्ड्रीम बेंझीट (Yildrim Beyazit) हाका हारोवन ऑटोमन साम्राज्याचो विस्तार कांय काळाखातीर आडायलो. १४५३ त फतेह सुलतान मम्मट हाणें हो प्रांत परत जिखून ऑटोमन साम्राज्याचो पुनर्जल्म केलो. ताचे राजवटींत विंगड विंगड धर्मियांमदीं धर्मीक समजिकाय तिगून उरली. आपले लश्करी तांकीच्या बळार ऑटोमनांनी आपलें साम्राज्य सतत वाडयलें. ताच्या राज्यांत उदेंत अँटोलिया, सिरीया आनी इजिप्त, तेचपरी मक्का आनी मदिना हीं पवित्र थळां आस्पावतालीं. सुलतान सुलेमान (१५२० ते ६६) हाची राजवट हो ऑटोमन साम्राज्याचो भरभराटीचो काळ. ताच्या काळांत राज्याच्यो शिमो एके वटेन विएना, दुसरे वटेन बसराचो उपसागर जाल्यार आफ्रिकेंत इथियोपियामेरेन पाविल्ल्यो. १६८३ वर्सा विएनाच्या झुजांत हार घेसर ऑटोमनाक आळाबंद घालप कोणाक जमलेंना.

१६८३ वर्सा उपरांत ऑटोमनाक देंवती कळा लागली. देखून ऑटोमनांनी आपली राजवट वांचोवंक नवीं धोरणां चालीक लायलीं. अस्तंतेची शिक्षण पद्दत आपणायली. दर्या विज्ञान आनी अभियांत्रिकी सारके अभ्यासक्रम तातूंत आस्पावल्ले. १८३९ वर्सा मुस्तफा रशीद पाशा हाणें ट्रान्झामीट सुदारणावादी विचारांची धोशणा केली. तातूंत १७ व्या शतमाना सावन चलपी गजालींक आर्विल्लेंपण हाडपाची गरज परगटायिल्ली. ही धोशणा तत्कालीन नागरी विचारसरणीचें मुळावण मानतात. तातूंत कायद्यामुखार समानताय हें तत्त्व आपणायलां. हाका लागून ऑटोमन साम्राज्यांत समानता आयली. १८७६ वर्सा घटनेंत धर्मजात भेदांविरयत समानताय हें तत्त्व मानून घेतलें. ह्याच काळांत साहित्यीक प्रभावाक लागून घटना, संसद आनी ते तरेचीं उतरां चलणुकेंत आयलीं.

१८६१ ते १८७६ हो अब्दूल हजीज हाचे राजवटीचो काळ. ताच्या काळांत राजकीय घुस्पागोंदळ खूब वाडलो तरीय अस्तंती प्रभाव तिगून उरलो. १८७६ त मितट्ट पाशा (Mithat Pasha) हाच्या फुडारपणाखाल पयली घटना अस्तित्वांत आयली. सुलतान अब्दूल हमीद - II हाणें १८७६ ते १९०९ मेरेन राज्य केलें. १८७७-७८ वर्सा ऑटोमन-रशियी झुजाचें निमित्य करून ताणें संसद बरखास्त केली. ताच्या ह्या कर्तुबाआड विरोधकांनी संघटीत चळवळ चलयली. निमाणें अब्दूल हमीदान दुसरी घटनात्मक सरकारी पद्दत आपणायली. ते वरवीं इत्तांत व्ही तरक्की ह्या पंगडान वेंचणूक लडोवन भोवमत जोडलें. १९०८ त ह्या पंगडान संसदेंत प्रवेश केलो.

१९११-१२ त त्रिपोलीचें झूज आनी १९१२-१३ त बाल्कानाचें झूज तुर्कस्थान हारलो. १९१४ वर्सा तुर्कस्थानाक आपल्या इश्ट राश्ट्रांवांगडा पयल्या संवसारीक म्हाझुजाक तोंड दिवंचें पडलें. ह्या झुजांत हार खाल्ल्यान तुर्कस्थान आनी इश्ट राश्ट्रांक ३० ऑक्टोबर १९१८ वर्सा, मुड्रो, आर्मीस्टीस कबलातीचेर निशाणी करची पडली. तेवरवीं तुर्कीक आपले दर्यारस्ते जैतीवंत राश्ट्रांच्या तारवांक मेकळे करचे पडले. कबलातीच्या हेर कलमांप्रमाण आपली भूंय व्हड प्रमाणांत दुस्मान राश्ट्रांक दिवंची पडली. १५ मे १९१९ त ग्रीकांनी इजमीर(Izmir) प्रांत बळकायलो. हाची प्रतिक्रिया राश्ट्रभर उदेली. विंगड विंगड पंगडांनी ताचेआड खर संघर्श केलो. पूण ते संघटीत नासले. मुस्ताफा केमाल हाणें ही चळवळ संघटीत करून राश्ट्रीय जनजागरण केलें. ताच्या फुडारपणासकयल तुर्कस्थान पयलें वयलें सुटके झूज लडलो.

२३ एप्रिल १९२० त तुर्कीश ग्रॅण्ड ॲसेंब्लीची थापणूक आंकारांत जाली. हे संसदेन तुर्कीचें सुटकेझूज चलोवपाची दायकी आपल्या आंगार घेतली. २६ ऑगस्ट १९२२ चे दुमलूपिनार (Dumlupinar) चें झूज जिखून तुर्कस्थानान इजमीर आपल्या ताब्यांत घेतलें. ९ सप्टेंबर १९२२ ह्या दिसा तुर्कस्थानाक स्वतंत्र करून हें झूज सोंपलें. १ नोव्हेंबर १९२२ त तुर्कींतली सुलतानशाय पुरायतरेन सोंपोवपाचो निर्णय जालो. १७ नोव्हेंबर १९२२ ह्या दिसा निमणो सुलतान वहदीत्तीन (Vahdettin) हाणें एका ब्रिटीश झुजा तारवांतल्यान देश सोडलो. उपरांत ते सुवातेर अब्दूलमेसीत(Abdulmecit) दुसरो हाची खलीफा म्हणून वेंचणूक जाली. २४ जुलय १९२३ ह्या दिसा लाउसॅन (Lausanne) शांती कबलातीचेर निशाण्यो जाल्यो. १३ ऑक्टोबर १९२३ त तुर्कस्थानान आंकारा हें आपलें राजपाटण आसतलें म्हणून घोशणा केली. २९ ऑक्टोबर १९२३ त तुर्कस्थान प्रजासत्ताक जालें. ३ मार्च १९२४ ह्या दिसासावन तुर्कींतली खलिफातशाय पुरायतरेन सोंपोवपाचो निर्णय जालो. प्रजासत्ताक जातकच तुर्कस्थान एक निधर्मी राश्ट्र म्हणून संवसारामुखार आयलें.

**राजवेवस्था - राज्याकारभाराची पद्दत** - टर्कीश ग्रॅण्ड नॅशनल ॲसेंब्ली ही सगळ्यांत उंचेली संस्था वा संसद. तुर्कस्थान राश्ट्राचे वतीन कायदे करपाचे अधिकार घटनेन हे संसदेक दिल्यात. ही संसद ४५० वांगड्यांची आसा. हे वांगडी दर पांच वर्सांनी वेंचून येतात. संसदेचे मुखेल अधिकार अशे - १) अदमास पत्रकाक मान्यताय दिवप. २) झुजाची घोशणा करप. ३) केंद्रीय मंत्रीमंडळ नियंत्रणांत दवरप. ४) कायद्यांत दुरुस्ती करप.

कायदे चालीक लावपाचे अधिकार राश्ट्रपती आनी मंत्रीमंडळ संस्थेक आसतात. ताचेर संसदेचें नियंत्रण आसता. संसद घटनेक जापसालदार आसता. राश्ट्रपती प्रजासत्ताक आनी राश्ट्राचो मुखेली आसता. घटनेची राखण हें ताचें मुखेल कार्य. राश्ट्रपती दर सात वर्सांनी वेंचून काडटात. ताचे मुखेल अधिकार अशे - १) संसदेची बसका आपोवप २) प्रधानमंत्री नेमप. ३) लश्कराचो वापर करूंक मान्यताय दिवप. ४) आणिबाणी जाहीर करप.

मंत्रीमंडळ संस्था प्रधानमंत्री आनी हेर मंत्री मेळून घडटा. ती संसदेक जापसालदार आसता. प्रधानमंत्री आपल्या मंत्रीमंडळ संस्थेच्या पालवान कायदे चलणुकेंत हाडपाचो वावर करता. भुगोलीक स्थिती, अर्थीक तांक आनी भौसाची गरज हे निश्कर्श लावन तुर्कस्थानी केंद्रीय प्रशासन विंगड विंगड प्रांतांत वांटून घालां. प्रत्येक प्रांत दोन जिल्ह्यांचो आसता. थळाव्या लोकांची गरज भागोवंक थळाव्यो प्रशसकीय संस्था आसता. तांचे वांगडी

कायद्याप्रमाण थळावे लोक वेंचून काडटात. दर पांच वर्सांनी ह्या संस्थांच्यो वेंचणुको जातात.

तुर्की न्यायसंस्था स्वतंत्र रितीन कारभार चलयता. न्यायसंस्था घटना प्रमाण मानून आपले निर्णय घेता. खंयचीय संस्था वा व्यक्ती न्यायप्रक्रियेंत हस्तक्षेप करूंक शकना. न्यायाधिशाक पदावयल्यान काडूंक मेळना. तुर्की न्यायसंस्था तीन तरांच्यो आसतात. पयली भौशीक न्याय दिवपी न्यायसंस्था, दुसरी लश्करी न्यायसंस्था आनी तिसरी प्रशासकीय न्यायसंस्था, कायदे, वेव्हार आनी गुन्यांव हेविशीं आपले निर्णय दिवन चलणुकेंत हाडटा. प्रशासकीय न्यायसंस्था प्रशासकीय प्रस्नांचेर जाल्यार लश्करी न्यायसंस्था लश्कराकडेन संबदीत प्रस्नांचेर आपलो निवाडो दिता.

तुर्कस्थानांत भोवपक्षीय वेंचणूक पद्दत आसा. पक्षाचे वांगडी जावंक २१ वर्सां पुराय जावप गरजेचें आसता. राश्ट्रांतले मुखेल पक्ष अशे - मदरलॅण्ड पार्टी (थापणूक २० मे १९८३), सोशल डॅमोक्रॅटीक पॉपुलिस्ट पार्टी (थापणूक २० मे १९८३), ट्रू पाथ पार्टी (थापणूक २३ जून १९८३ ). ते भायर मान्यता आशिल्ले १६ पक्ष राजकीय मळार वावुरतात. ८ जुलय १९९१ वर्सा जाल्ले वेंचणुकेंत मदरलॅण्ड पार्टी २७५ सुवाती जिखून भोवमतान सत्तेर आयली. तुर्कस्थानाचो पयलो राश्ट्रपती जावपाचो मान मुस्तफा केमाल आतातुर्क हाचेकडेन वता. ताणें २९ ऑक्टोबर १९२३ ते १० नोव्हेंबर १९३८ मेरेन हें पद भोगलें. इस्मत इनोयू (Ismet - Jnonu) हो तुर्कस्थानाचो पयलो प्रधानमंत्री. ताका धा फावट ह्या पदार वेंचून काडलो. हो एक विक्रम आसा. तुर्कस्थानाची पयली बायल प्रधानमंत्री जावपाचो मान तान्सू सिलर हिचेकडेन वता. ती १३ जून १९९३ ह्या दिसा ह्या पदार वेंचून आयली.

१९६१ वर्सा तुर्कस्थानान आपली घटना पुराय तरेन बदलली. हे घटनेवरवीं आज संसदेची नॅशनल ॲसेंब्ली आनी सिनेट अशीं दोन घरां आसात.

**अर्थीक स्थिती** - १९८९ त वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांत शेतपिकावळीचें प्रमाण १६.६% इतलें आशिल्लें. दुसरे वटेन १९९० त राश्ट्रीय येणावळींतलो ६.६% वांटो शेतपिकावळीचेर खर्च जालो. आयज उद्देगीक क्षेत्राक म्हत्व मेळिल्ल्यान आयज शेतकी क्षेत्राचें म्हत्व उणें जालां.

१९८९ त सुमार १ कोटी ६२ लाख टन गंव, ४५ लाख टन सवाद, २० लाख टन मक्याचें उत्पादन जालें. मसाल्याच्या वर्गांत मसुरीचें ६ लाख २२ हजार टन, वाटाणे ६ लाख ८३ हजार टन आनी २ लाख २ हजार टन कड्डणाचें उत्पादन जालें. सूर्यफुलासावन मेळपी तेलाचें उत्पादन १२ लाख ५० हजार टन इतलें जालें. देशांतले शेतपिकावळीचें वट्ट मोल १९६८ वर्साच्या चलनाप्रमाण ५३,९१९ दशलक्ष टर्कीश लिरा इतलें जाता. १९८८ वर्सा अखेरेक देशांत १,५४,४६,२४५ टन पालेभाजयचें उत्पादन जालें. च्या हें ह्या देशांतलें एक म्हत्वाचें उद्देगीक पीक. सुकिल्ल्या पानांसावन १,५३,१६० टन तर ताज्या पानासावन ७,५२,६६२ टन च्याचें उत्पादन जालें. (१९८८).

**खनीज संपत** - तुर्कस्थानाचे मातयेंत तांबें, बॉक्सायट, लोखण, मॅग्नेशियम, बोरोन, मीठ, सोडियम, सल्फेट, खनीज मीठ, बॅरायट शिमीटमाती, कोळसो, क्रुड तेल, लिग्नायट हे धातू खास करून सांपडटात. तुर्कस्थान आपल्या खनिजांमदल्या क्रूडतेल, दगडी कोळसो, लोखण, गंधक, तांबे, पायरायट ह्या धातूंची निर्यात करता जाल्यार आपल्या गरजेखातीर बॉरॉन, मीठ, क्रॉमीयम, बॅरायट, मॅग्नासायट आनी संगमरवरी फातरांची आयात करता. तुर्कस्थानाच्या चवथ्या पंचवर्सुकी काळांत ४,१०,०८३ टन खनीज उत्पादन जालें. खनीजाचे निर्याती वरवीं देशाक ४२,१८९ दशलक्ष टर्कीश लिरा येणावळ मेळ्ळी. जाल्यार आयातीवरवीं ७,६८,७८८ दशलक्ष टर्कीश लिरा फारीक करचे पडले.

**उदकांतली पिकावळ** - ७,२०० किमी. लांबायेची दर्यावेळ, १,१७,७१४ किमी. लांबायेच्यो न्हंयो आनी २,०३,००० हॅक्टर सुवातींत आशिल्ली सैमीक तळीं तुर्कस्थानाक उदकांतली पिकावळ मेळोवन दितात. दर्यांतलें ८०% नुस्तें - उत्पादन काळ्या दर्यांत जाल्यार १०% मारमारा दर्यांत जाता. वट्ट नुस्त्या उत्पादनांतलें ७४.५% नुस्तें ताजें वा सुकें करून विकतात. १९% नुस्तें भाजून वा धुंवर दिवन दवरतात. २२.६% नुस्त्याचें तेल वा हेर वस्तू तयार करतात. १९८८ त ६७६.७ हजार टन नुस्त्याउत्पादन जालें. ताचें वट्ट मोल ११,७९,४८८ दशलक्ष टर्कीश लिरा इतलें जाता. नुस्तें आनी उदकांतल्या हेर वस्तूंची निर्यात हेवरवीं देशाक ७५,६३८ दशलक्ष टर्कीश लिरा इतली येणावळ मेळ्ळी (१९८८).

**पर्यटन** - दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत हांगा पर्यटनाक म्हत्वाचो धंदो म्हणून म्हत्व मेळ्ळां. १९८४ सावन तुर्कस्थानाक येवपी पर्यटकांचो आंकडो वाडत आसा. १९८८ त तुर्कस्थानांत ४१,७२,७५७ पर्यटक आयले तर २१,१४,७८० देशाभायर पर्यटनाक गेले. ३१ डिसेंबर १९८९ ह्या दिसा मेरेन पर्यटकांक रावपाखातीर विंगड विंगड हॉटेलांनी ७०,६०३ खोलयांची आनी १,४६,०८३ खाटींची वेवस्था आसली.

**बँको** - अर्थीक मळार बँकींग वेव्हाराचो प्रभाव ठळकपणान जाणवता. भौशिक मळार झिर्‍त (Ziraat) ही बँक आघाडेर आसून तिच्या देश-विदेशांतल्या १२४५ फांट्यांनी १४५२१.७ महापद्म टर्कीश लिरा इतल्यो ठेवी आसल्यो (१९८९). खाजगी मळार इज बनकासी (Is Bankasi) ही आघाडेर आसून तिच्या ९४७ फांट्यांनी ८,७७६.४ महापद्म टर्कीश लिरा इतल्यो ठेवी आसल्यो. विदेशी बँकांमदीं ओसमानली (Osmanli) ही बँक पयली आसली. तिच्या ७१ देश - विदेशांतल्या फांट्यांनी ६५७.४ महापद्म टर्कीश लिरा इतल्यो ठेवी आसल्यो. वयल्या तिनूय मळांचेर वावुरपी मुखेल बँकांच्या ६,५७९ फांट्यांनी ६२,७००.९ महापद्म टर्कीश लिरा इतल्यो ठेवी आसल्यो.

**उद्देगधंदे** - राज्यांतल्या मुखेल उद्देगांमदीं मीन, शेतकीवस्तू, नुस्तें, खेळणीं, सुता गिरणी, लाकडी वस्तू, कागद, बांदावळ, तंत्रीक उपकरणां, रसायनां हांचो आस्पाव जाता. गृहउपेगी वस्तू उद्देगांमदीं पेय, खाण, कपडे, लाकडी वस्तू आनी जोतीं हांचो आस्पाव जाता. ह्या उद्देगावरवीं देशाक १९८७ मेरेन २९,५८४,८९४ दशलक्ष टर्कीश लिरा इतली येणावळ मेळ्ळी. हेर वेवसायीक उपेगी वस्तू उद्देगांत सोरो, रानांतलें उत्पादन, कागद, छपाय, प्लास्टीक, रबर, रसायनां, सारीं, पॅट्रोकॅमीकल, शिमीट, भाजिल्ली माती, कंवची, लोखण आनी तिखें, कातडें आनी लोकर हांचो आस्पाव जाता. ह्या उद्देगावरवीं १९८७ मेरेन देशाक ३,२४,०७,०१५ दशलक्ष टर्कीश लिरा इतली येणावळ मेळ्ळी. बिनविजेचीं तंत्रीक उपकरणां, शेतकी वस्तू आनी तंत्रीक वस्तू, विजेचीं उपकरणां, मोटारी, रेल्वे, गाडी, बोटी, विमानां आदी उद्देगांतल्यान देशाक १९८७ मेरेन १०,४५१,०४१ दशलक्ष टर्कीश लिरा इतली येणावळ मेळ्ळी.

तुर्की टेलीव्हिजन ५ चॅनलांवयल्यान आपल्या कार्यावळींचें प्रसारण करता. उपग्रहावयल्यान विदेशी टी. व्ही. कंपन्यांच्यो कार्यावळी दाखोवंक तुर्की सरकारान मान्यताय दिल्या. बी. बी. सी. (ब्रिटन), सी. एन. एन.

(अमेरिका) रायनो (इटली), रायडू (इटली) प्रो. - ७ (जर्मनी), फिल्मनेट (हॉलंड), स्काय - वन (ब्रिटन) स्कायन्यूस (ब्रिटन) आरटीएल प्लस (लक्झॅम्बर्ग) तॅल आवीव - १ (इस्त्रायल), अण्टेना - २ (फ्रांस) ह्यो कंपनी तुर्कस्थानांत आपल्या कार्यावळींचें प्रसारण करतात.

**लोक आनी समाजजीण** - तुर्कस्थानाची लोकसंख्या १९९० वर्सा ५,६४,७३,०३५ आशिल्ली. तातूंत वर्सुकी लोकसंख्या वाडीचें प्रमाण २४.८८ इतलें आसा. १,२९,८०,२१५ दादले आनी ५९,०७,१५६ बायलो नोकरी करतात. १९९० त वट्ट लोकसंख्येच्या ५९.०% लोक शारांनी आनी ४१.०% लोक गांवगिऱ्या वाठारांनी रावतात. १९२७ ते १९८५ वर्सा मजगतीं तुर्कस्थानाची लोकसंख्या ३५४% वाडली.

देशांत सगळ्या धर्मांक एक न्याय आसा. देशांतले ९८% लोक मुस्लीम धर्मीय आसात. विसाव्या शतमानांत गतीन बदल घडिल्ल्यान शारांनी ल्हान ल्हान कुटुंबां जल्माक आयल्यांत. गांवगिऱ्या वाठारांनी जोड-कुटुंबां आसात. तांचो मुखेली घरांतलो जाण्टो दादलो आसता. तुर्की कायद्याप्रमाण चलयेची पिराय १५ वर्सां आनी चल्याची १७ वर्सां जालेबगर लग्न जावंक मेळना. गांवगिऱ्या वाठारांत भुरगेपणांत लग्न जावपाचें प्रमाण चड आसा. अस्तंतेच्या प्रभावाक लागून तुर्की दादले आनी बायलो अस्तंतेचे शैलेंतले कपडे घालून वावुरतात. परंपारिक भेस गांवगिऱ्या वाठारापुरतो मर्यादीत आसा.

तुर्की बायलेक दादल्याइतलीच समान वागणूक मेळटा. तुर्की घटनेंत ते विशीं खास कलमां आसात. घोव वा बायले मदीं कोणूय सोडचिटीपासत न्यायालयांत वचूंक शकता.

**संगीत** - तुर्की लोकसंगीतची परंपरा व्हड आसा. लोकसंगिताच्या प्रसाराखातीर हांगा लोकसंगीत संस्थेची थापणूक जाल्ली आसा. ही संस्था अंदूं ६५ वर्सां पुराय करता. लोक संगितिकेंत 'मेडहा' (Meddah) नांवाचो एक आंकी प्रकार आसा. तातूंत सुत्रधार सगळ्या पात्रांची भुमिका रंगयता. 'करगोझ' (Karagoz) हो सावळेच्या पालवान केल्लो लोककला प्रकार. हातूंत मनीस आनी जनावरांच्यो रंगीत आकृत्यो उजवाडाच्या पालवान प्रदर्शीत करून खेळ करतात. 'ओर्ता ओयून' हो खेळ करगोझ खेळाचें दुसरें रूप. हातूंत कलाकार वांटो घेतात. तुर्की लोकनाच ह्या मूळ अंटोलियन प्रांतांत रावपी लोकांचें मन रिझवणेचें साधन. भुगोलीक आनी थळाव्या बदलांचो परिणाम तुर्की लोकनाचाचेर जाला. तुर्की लोकनाच भावना आनी विचार व्यक्त करतात.

तुर्की शास्त्रीय संगिताची बुन्याद १३६० ते १४५३ ह्या काळांत पडली. १६४० ते १७१२ हो कालखंड शास्त्रीय जडणघडणीचो काळ मानतात. उपशास्त्रीय संगिताचो काळ १८३१ ते १८८५ मेरेन चललो. १८८० ते १९५५ ह्या काळांत 'प्रेम' हो भाव संगितांतल्यान व्यक्त जालो. १९५५ उपरांतचो काळ हो नवसंगिताचो मानतात.

मॅव्हलेवी (Mevlevi) पंथ हो तुर्की सांकेतीक वा गूढ संगिताचो केंद्रबिंदू. बक्तासी (Bektasi), नक्सीबंडी (Naksibendi), हल्वेती (Halveti), उसाकी (Ussaki), सैद गुलसेनी (Said Gulseni) आनी कदीरलर ह्या पंथांनी तुर्की सांकेतीक संगिताची राखण केली. तुर्की संगितांत 'मशीद संगीत' हो प्रकार आसा. ताचें वादन फक्त मशिदींत जाता. १९६० उपरांत अस्तंतेच्या पॉप संगिताच्या वाडट्या प्रभावाक लागून मूळ तुर्की संगिताची रूच इबाडल्या.

**हातमाग** - तुर्कीच्या हातमागाची सगळ्यांत व्हड भेट म्हळ्यार तुवाले. तुर्कस्थानचे तुवाले आयजूय संवसारांत नावाजते आसात. हेर तुर्की हातमाग वस्तूंमदीं रुमाल, वाले, जमखान, शेंदरी, पांयमोजे, पोती आनी कमरपट्टे हांचो आस्पाव जाता. लाकडी कुलेरांवयली कलाकुसर ही आद्य तुर्की हस्तकला. आयज धातुचीं आयदनां उपेगांत आशिल्ल्यान ही कलाकुसर ना जायत चलल्या.

**चित्रां (प्लास्टीक)** - प्लास्टीक चित्रांची संस्कृती हांगा इस्लामां आदल्या काळा सावन चलता. इस्लाम काळांत हे कलेंत जायते बदल जाले. इस्लाम काळांतलीं चित्रां आयज विंगड विंगड मोदींच्या पोरण्या वास्तूंत कोरांतिल्ल्या शिल्पांत, लुगटाच्या नक्षीकामांत, तिजुल्यांचेर आनी कुरवांच्या रुपांनी अस्तित्वांत आसात. १८८३ त प्लास्टीक चित्रांचें दायज आनी कला सांबाळून ताचो प्रसार करचे नदरेन 'सनाई नेफिसे मेक्टेबी' हे संस्थेची थापणूक जाली. फाटल्या १५ वर्सांत तुर्कीन ग्राफीक चित्रकलेंत व्हड उदरगत सादिल्ली आसून ताका आंतरराश्ट्रीय मळारूय प्रतिश्ठा मेळ्ळ्या. जायराती आनी देखावे करूंक ही कला उपेगांत हाडटात.

**चित्रां (रंगीत)** - तुर्की आदिवासी इस्लामा आदल्या काळासावन, शिंविल्लीं लुगटां, लोखणी बाण, तलवार, बुरनूस आनी लाकडी वस्तू हांचेर रंगीत चित्रां काडटाले. आर्विल्ल्या काळांत रंगीत चित्रकलेची पयली शाळा बेरी हूॅमायून (Berii Humayun) ह्या नांवान १७९३ त चालू जाली. १९व्या शतमानांत सगळ्या लश्करी आनी नागरी शाळांनी कला शिकोवपाक लागले. तुर्की चित्रकलेची गिरेस्तकाय इस्तंबूलच्या संग्रहालयांत सांबाळून दवरल्या. सुर्वेच्या चित्रांनी सैम आनी मनीस जीण हे विशय ठळकपणान दिश्टी पडटात.

आर्विल्ले चित्रकलेच्या सुरवातेच्या काळांत ओस्मन नूरी (Osman Nuri), गिरित्ली हुसेन (Giritlli Huseyin), अहमत बेंद्री (Ahmet Bedri), फरीद इब्राहिम पाशा, हुस्नू युसूफ, तवफिक पाशा, अहमत पाशा, सुलेमान सय्यद बे, सरविली अहमद बे, उस्मान हमदी बे, नुरी पाशा, हुसेन जेकाय पाशा आनी होका अली रिझा हांचो आस्पाव जाता. तुर्की प्रजासत्ताका उपरांत ज्या चित्रकारांनी नांव जोडलें तातूंत रुही अरेल (Ruhi Arel), इब्राहीम काली, हिकमत ओनट, असफ आगा, काझीम, हुसैन, हासीम, अहमत झिया बुलूत, होका अली रिझा, अव्नी लिवीज (Avni Livij) आनी फिहमन दुरान (Feyhaman Duran) हांचो आस्पाव जाता. वयल्या चित्रकारांच्या चित्रांनी मूळ तुर्की शैलीचेर अस्तंतेची सया मारता. हाका लागून दोनूय शैलींची भरसण तांच्या चित्रांनी जाल्या. वयल्या चित्रकारांभायर आपली स्वतंत्र शैली आपणावपी ग्रूप 'डी' आनी 'येनीलर' (Yeniler) अशे पंगड आसले. तांची थापणूक अनुक्रमान १९३३ आनी १९४० वर्सा जाली. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत तुर्की चित्रकलेचेर अस्तंती अदृश्य भावविश्वाचें पडबींब पडलें. हाका लागून तुर्की चित्रकलेंत वयले चित्रशैलींत दोन प्रवाह भितर सरले. एक - थारिल्ले फास्केंत चित्रनिर्मणी आनी दुसरी कसलेंच बंधन मानिनाशिल्ली मुक्त चित्रनिर्मणी. ह्या काळांत गाजिल्ल्या चित्रकारांभितर साबरी बरकल (Sabri Berkel), हलील डिकमन, सिमल बिंगोल (Cemel Bingol), सेमसटीन अरेल (Samsettin Arel) हांचो आस्पाव जाता. १९७० उपरांत तुर्की चित्रशैलींत विरोधाभास दाखोवपी प्रवाह भितर सरले. देखीक अखंड आड थळावो (Universal / Local), अदृश्य आड प्रतिमात्मक (Abstract / figurative). हाका लागून नव्या मोडणाच्यो नव्यो आर्विल्ल्यो चित्रशैली अस्तित्वांत आयल्यो. जांणी नवे चित्रकलेकडेन जुळोवन घेतलें ते ह्या प्रवाहांत तिगून उरले. नव्या प्रवाहाचे चित्रकलेंत पांच फांटे फुटले ते अशे -

| | | चित्रकार |
|---|---|---|
| १) अदृश्य भावाची चित्रकला | : | सब्री बर्कल, अदनन, कोकेर, ओमर उलूक बरहन डोगान्से, इरोल इटी, इराल अनाथर. |
| २) अदृश्य वा प्रतिकात्मक चित्रकला | : | गुरेल यॉनटन, सुक्रू आयसन, मायल सारे, अहमत ऑसतेम आनी सरहत किराझ. |
| ३) अदृश्य प्रतिकात्मक चित्रकलेक काव्यमय आभास दिवपी शैली | : | ऑझदिमीर अल्तान, तुरान इरोल ऑरान पेकर, सदन बेझयीस, मुस्ताफा इसीरकस. |
| ४) अखंड आनी थळावी शैली | : | ऑस्मन ओरल, इस्मायल अल्तीनोक, हुसेन बिलीसिक, दूरान कराका, काहियान केस किनोक. |
| ५) व्यक्त आनी (Expressionistic) टिकात्मक दृश्य चित्रकला | : | अल्लातीन अकसॉय, मुस्ताफा अटा, नेसे इरदॉक, मम्मट गुलेरूझ, इर्जीन इनान. |

**शिक्षण** - तुर्कस्थानांत साक्षरतेचें प्रमाण ७०% आसा (१९९१). ३ मार्च १९२४ ह्या दिसा संसदेन शिक्षणीक बील मानून घेतलें, ते वरवीं सगळ्यो शिक्षणसंस्था शिक्षण मंत्रालयाच्या कारभाराखाल येतात. मुळावें शिकप घेवपाचो अधिकार दर एका तुर्की नागरीकाक आसा. गरीब भुरग्याक अर्थीक वा हेर पालव दिवपाची वेवस्था सरकारावरवीं जाता. अभ्यासक्रम वेंचून आपलो फुडार थारावपाचो अधिकार विद्यार्थ्याक आसा. तुर्की अभ्यासक्रमाप्रमाण भुरग्यांक स वर्सां आदीं बालवाडी, ६ ते १४ वर्सां मजगतीं मुळावी शाळा आनी उपरांत हेर शिक्षण अशी वेवस्था केल्या.

उंचेलें शिक्षण दिवपी कांय विद्यापिठां अशीं - १) अदना - कुकुरोवा विद्यापीठ २) अंकारा - अंकारा विद्यापीठ ३) बील - कँट विद्यापीठ ४) गाझी विद्यापीठ ५) इस्तंबूल तंत्रीक विद्यापीठ ६) इरर्जूम - आततूर्क विद्यापीठ ७) ट्राब्झोन - ब्लॅक सी विद्यापीठ ८) इज्मीर - सप्टेंबर - ९ विद्यापीठ.

विदेशांत उंचेलें शिकप घेवपी विद्यार्थ्यांचो आंकडो वाडटो आसा. १९९०-१९९१ मेरेन १९,८४६ विद्यार्थी विदेशांत शिकप घेताले. विदेशांत रावपी तुर्की नागरीकांचीं ६,१३,६२६ भुरगीं विदेशांत शिकतालीं.

**भाशा आनी साहित्य** - उरालो-अल्ताईक (Uralo - Altaic) भाशा पंगडाच्या अल्ताई फांट्यांत तुर्की भाशेचो आस्पाव जाता. तुर्की भाशेचे इतिहासीक नदरेन तीन वांटे करूं येतात. १) पुर्विल्ली तुर्की भास (७ वें ते १३ वें शतमान) २) मदल्या पांवड्यांवयली तुर्की भास (१४ वें ते २० वें शतमान) आनी आर्विल्ली तुर्की भास (२० व्या शतमाना उपरांत).

आयज जी तुर्की भास लोक उलयतात तिका मदल्या पांवड्यावयले तुर्की भाशेच्या अस्तंती फांट्याचें आर्विल्लें रूप मानतात. १५ ते २० व्या शतमानात ऑटोमन राजवटींत, ऑटोमन भाशेच्या प्रभावान तुर्की भास चिड्डून उरली. तातूंत अरबी आनी फारशी उतरां व्हड प्रमाणांत भरसलीं. तुर्की भाशेचे उदरगतीची गती थांबली. १९०८ त तुर्कस्थानांत घटनेच्या आस्पावा उपरांत तुर्की भाशेचे उदरगतीखातीर चळवळी जाल्यो. १९२८ त तुर्की भाशेचे चळवळीक जैत मेळ्ळें. तेवरवीं तुर्की भाशेन अरबी लिपी सोडून रोमी लिपी आपणायली. तुर्की भाशेच्या इतिहासांतली ही क्रांतीकारी घडणूक. १९३२ त तुर्की भाशेचें संशोधन आनी उदरगत सादूंक 'तुर्की भाशा संस्थेची' थापणूक जाली. आयज तुर्की भास सगळे विदेशी प्रभाव पचोवन स्वतंत्र आनी गिरेस्त जाल्या.

तुर्की साहित्याचे इतिहासीक नदरेन तीन वांटे करूं येतात. १) इस्लामी करणां पयलीचें साहित्य २) इस्लामीकरणा उपरांतचें साहित्य आनी ३) अस्तंती प्रभावान घडिल्लें साहित्य.

तुर्कस्थानाचें पुर्विल्लें राजपाटण इस्तंबूलांत मख्तब - ए - सुल्तानिया नांवाचें ग्रंथालय आसा. इस्लामी आनी क्रिस्तांव धर्मियांच्या घुरयांनी ताचो खूब विध्वंस जालो. ह्या ग्रंथालयांत अरबी साहित्याच्या विभागांत पुर्विल्ल्या साहित्याविशीं म्हायती दिवपी 'सैर-उल ओकूल' नांवाचो ग्रंथ आशिल्लो. ताचो अर्थ 'काव्यविहार' वा 'साहित्यविहार' असो जाता. ताचे तीन वांटे आसले. पयल्या वांट्यांत इस्लाम धर्मा आदल्या कवीची वळख आनी तांच्या अरबी कवितांचो झेलो आसा. दुसऱ्या वांट्यांत महमदासावन, बाणी उमैय्या घराण्याच्या निमाणे मेरेनच्या कवीची जीण आनी काव्य आनी तिसऱ्या वांट्यांत खलिफा हरून - अल - रशीद हाचे राजवटींत जावन गेल्ल्या कवीची म्हायती आनी काव्य आस्पाविल्लें. आर्विल्ल्या काळांत हो काव्यग्रंथ १८६४ वर्सा जर्मनींत बर्लीनाक उजवाडाक आयलो. ह्या नव्या संकलनांत पुर्विल्ल्या अरबी काव्यांतलो वैदीक भाग गाळिल्लो आसा, अशें प्रा. ओक आपल्या 'इतिहास संशोधनांतल्या घोडचूका' (पान ३२१) ह्या पुस्तकांत म्हण्टा.

तुर्कीच्या सरकारी इतिहासाप्रमाण तुर्कीच्या इस्लामीकरणाआदीं तीन सर्वश्रेश्ठ रचनांची निर्मणी जाली. त्यो रचना अशो - इ.स. ७२० वर्सा टोनीयुकूक हाचेवयली रचना, इ.स. ७३२ वर्सा कुल्टेजीन हाचेवयली रचना आनी इ.स. ७३५ वर्सा बिल्ग कागन हाचेवयली रचना. ११ व्या शतमानांत तुर्कींत जी ऊंच पांवड्याची कविता घडली, तिका 'दिवान कविता' म्हण्टात. तिचें मूळ इस्लामीकरणा आदल्या अरबी साहित्यांत आसा.

इस्लामीकरणा उपरांत तुर्की साहित्यांत दोन प्रवाह आयले. पयल्या प्रवाहांत गिरेस्त आनी शिक्षीत लोकांचे प्रवाह आस्पावतात. दुसऱ्या प्रवाहांत अशिक्षीत वा गांवगिऱ्या लोकांचें तोंडी लोकसाहित्य आस्पावता. तुर्की लोकसाहित्य जें आज तिगून आसा ताचेर इस्लामी समाजरचनेचो, नव्या बदलाचो आनी मध्य आशियांतल्या पारंपारीक साहित्याचो प्रभाव दिसता. तुर्की लोक साहित्यांतलो म्हान कवी म्हणून युनूस अमरी (Yunus Emri) हाका वळखतात. १३ व्या शतमानाचो उत्तरार्ध आनी १४ व्या शतमानाचो पुवार्ध हो ताचो काळ आसलो. तोंडी लोकसाहित्यांतल्या नांवाजिल्ल्या कवींमदीं करकावोग्लान (Karacaoglan), असीक ओमर, इरजुरम्लू इमराह (Erzurumlu Emrah), कैसेरेली सेरानी (Kay Serili Seyrani) हांचो आस्पाव जाता.

आर्विल्ल्या तुर्की साहित्यांत फुडल्या साहित्यीक पंगडांनी आपलो प्रभाव तिगोवन दवरलो. तांचीं नांवां अशीं - १) टांझीमट २) सर्वेत - इ - फुनून ३) फक्र-इ-अटी ४) युलुसूल इदबियत (Ulusul edebiyat).

१८६०-८० आनी १८८०-९६ ह्या काळांत टांझीमट साहित्यिकांनी अस्तंती शैलीचें साहित्य रचलें वा अणकारीत केलें. ह्या काळांतल्या मुखेल साहित्यिकांमदीं सिनासी, झिया पाशा, रिकायझदे मम्मट अक्रम आनी अब्दूल हक हमीत हांचो आस्पाव जाता. १८९५ ते १९०० ह्या काळांत सर्वेत - इ - फुनून साहित्यिकांनी तुर्की साहित्यांत फ्रांसेझ साहित्यांतलीं

पात्रां आनी खाशेलपणां हाडपाचो वावर केलो. ताणीं कविता, कथा, नवलिका, नाटकुलीं, टिकात्मक साहित्य आदी प्रांतांत साहित्य रचना केली. तवफीक फ्रिकेत, सिनाप साहेबेतीन, सुलेमान नजीफ, हलीत झिया उसाक्लीगील, मम्मट रौफ, फक्र - इ - अटी पंगड सर्वेत-इ-फुनून पंगडाचें नवें रूप. ह्या पंगडान सोंपे भाशेंत प्रतिमात्मक लेखन करतना 'मोग' ह्या भावाक खास सुवात दिली. ह्या पंगडांतल्या नामनेच्या साहित्यिकांमदीं अहमत हासीम, याकूप काद्री कारोसमनोग्लू आनी रफीक हलीत कारे हांचो आस्पाव जाता.

१९११ ते १९२३ हो राश्ट्रवादी साहित्याचो काळ. तुर्कीतल्या तत्कालीन राश्ट्रवादी चळवळीचें पडबींब त्या काळांतल्या साहित्यांत पडलां. ह्या काळांतले म्हत्वाचे साहित्यीक अशे - झिया गोकल्प, ओमर सयफतीन, मम्मट अमीन अर्दाकूल (Mehmet Emin Yurdakul), युसूफ ओर्तूक, फरूख नजीफ कम्लीबेल, अनीस बहीक कोर्यूरेक.

ओमर सयफतीन हाका तुर्की लघुकथेचो जनक मानतात. ताच्या पुस्तकांच्यो आयजवेर १४४ आवृत्त्यो काडल्यात. कवितेंतलें ताजेपण सोदपी याहया केमाल बैतली हो तुर्कींतलो नामनेचो कवी.

दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत तुर्कींत अस्तंतेचो प्रभाव साहित्यांत पडिल्लो दिसता. ह्या कालखंडांत गाजिल्ल्या कविंमदीं ओरन वेली कनीक हाचो आस्पाव जाता. ताचो 'गरीप' हो झेलो १९४१ वर्सा उजवाडाक आयलो. ताची शैली आपणावपी हेर कवींमदीं असफ हलेट सेलेबी, फझील हुस्नू दग्लारका आनी बसट नेक्टीगिल हांचो आस्पाव जाता.

१९६० च्या अदमासाक बायलांनी आपले साहित्यीक गूण दाखोवंक सुरवात केली. हाका बायलांची साहित्यीक चळवळ म्हणून वळखतात.

१९५०-९० मजगतीं गाजिल्ल्या साहित्यीकांमदीं - हलीद नसरत झोरलू तुना, निहाल अतसीझ, सफिये इरॉल, तारीक दर्सन आतिला इलान, यासर केमाल, तारीक बुग्रा आनी अझीझ नेसीन हांचो आस्पाव जाता.

**म्हत्वाचीं स्थळां - इस्तंबूल :** दोन खंडांचेर (युरोप/आशिया) वशिल्लें संवसारांतलें एकलें एकसूरें शार. ह्या शाराक 'शेणिल्लें शार' अशेंय म्हण्टात.

**अंकारा :** तुर्कीचें राजपाटण. म्हत्वाच्यो प्रशासकीय इमारती हांगा आसात.

**मलाट्या :** सिल्जूक राजवटींतलें इतिहासीक शार. तुर्कींतलें म्हत्वाचें गजबजिल्लें शार.

**मूस :** सव्या शतमानांत वसयिल्लें शार. हांगा जायत्यो धर्मशाळा आनी मशिदी आसात.

**हरान :** बायबल ग्रंथांत उल्लेख आयिल्लें पुर्विल्लें शार. येशूचो पुर्वज अब्राहम हाणें हांगा वसती केल्ली अशें म्हण्टात.

**अंटालया :** तुर्कीचें म्हत्वाचें पर्यटन केंद्र.

- पंढरीनाथ श्री. सुरसुरे

**तुर्की भास :** उत्तर दिशेक फिनलंड तें दक्षिणेक तुर्कस्थाना मेरेन आनी अस्तंतेक हंगेरी ते उदेंतेक मंगोलिया, मांचकुओ आनी चीनी तुर्कस्थानामेरेन पातळिल्ल्या उरल-अल्टाइक भाशा चोम्यांतल्या अल्टाइक फांट्याची तुर्की ही सगळ्यांत म्हत्वाची भास.

**लिपी -** सव्या शेंकड्यांत तुर्कांची एक लिखाण पद्दत आशिल्ली, ती सेमिटिक लिपींतल्यान तयार जाल्ली. हे लिपींत चार स्वरचिन्नां आनी छत्तीस व्यंजनचिन्नां आशिल्लीं. कितल्याशाच तुर्की बोलींनी आपणायल्ले हे लिपींत जोडाक्षरां मात नाशिल्लीं. बोल्शेव्हिक क्रांती उपरांत रशियांतल्या तुर्की बोलींनी रशियन सिरिलिक लिपी वा रोमी लिपी आपणायली. ३ नोव्हेंबर १९२८ सावन तुर्की सरकारान आपणाले भाशेक एक रोमी लिपी तयार केली. हे लिपींत आठ स्वरचिन्नां आनी एकवीस व्यंजनाचिन्नां आसात तीं अशीं -

| आ, | ब, | ज, | च, | द, | ए, | फ, | ग, | घ, | ह, | अ, | इ |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| a, | b, | c, | g, | d, | e, | f, | g, | ğ, | h, | I, | i |

| झ्य, | क, | स, | श, | त, | उ, | उॅ, | व, | य, | झ |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| j, | k, | s, | s, | t, | u, | ü, | v, | y, | z |

**व्याकरण -** नामांत लिंगभेद ना, नामाचें मूळ रूप हेंच ताचें प्रथमेचें एकवचन आसता. ताका 'लार' हो प्रत्यय लावन भोववचन तयार जाता. नामांत तालव्य स्वर आसल्यार ताका 'लेर' हो प्रत्यय लायतात. देखीक : आदाम - मनीस, आदाम्लार - मनशां, एव् - घर, एव्लेर - घरां. तुर्कींत स विभक्ती आसात - प्रथमा (शून्य), द्वितीया (अ, इ, उ, उॅ), चतुर्थी (आ, ए), पंचमी (दन्, देन्), षष्ठी (अन्, इन्, उन्, उॅन्), सप्तमी (दा, दे), स्वरान्त शब्दाउपरांत हेच प्रत्यय द्वितीया (यि), चतुर्थी (या, ये), षष्ठी (नम्, नुन्, नुॅन्) अशे आसात.

सर्वनामां अशीं आसात -

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| पयलो पुरूश | बेन् | बिझ् |
| दुसरो पुरूश | सेन् | सिझ् |
| तिसरो पुरूश | ओ, ओल् | ओनलार् |

बेनिम्, बिझिम्; सेनिन्, सिझिन्, हीं ताचीं स्वामित्वदर्शक रुपां जातात. किम् 'कोण', ने 'किदें', हांगि 'खंयचो', नसल 'कसो', काय 'कितलो', हीं प्रस्नवाचक रुपां आसात.

मेक् हो प्रत्यय क्रियारूप दाखयता.

सेव्मेक्चो वर्तमानकाळ -

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| पयलो पुरूश | सेवेरिम् | सेवेरिझ् |
| दुसरो पुरूश | सेवेर्सिन् | सेवेर्सिनिझ् |
| तिसरो पुरूश | सेवेर् | सेवेरलेर् |

'आसा' ह्या क्रियापदान जेन्ना दोन नामां जोडटात, तेन्ना हें क्रियापद तुर्कीत नामाक प्रत्यय लावन उकतायतात. हे प्रत्यय अशे -

| | एक वचन | भोववचन |
|---|---|---|
| पयलो पुरूश | अम्, इम्, उम्, उॅम्, '(हांव) आसा' | अझ, इझ्, उझ्, उॅझ्. |
| दुसरो पुरूश | सन्, सिन्, सुन्, सुॅन्, | सनझ्, सिनिझ्, सुनुझ्, सुॅनुॅझ्. |
| तिसरो पुरूश | दर्, दिर्, दुर, दुॅर्, | दरलार्, दिरलेर्, दुरलार्, दुॅर्लेर्. |

आदामम् 'हांव दादलो', आदाम्सन्, 'तूं दादलो'.

आज्ञार्थाचे प्रत्यय -

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| दुसरो पुरूश | शून्य | इनझ् |
| तिसरो पुरूश | सन् इ | सन्लार् इ |

भूतकाळ आनी संकेतार्थ -

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| पयलो पुरूश | म् | क् |
| दुसरो पुरूश | न् | नझ्, इ |
| तिसरो पुरूश | शून्य | लार्, लेर् |

रितीदर्शक अव्ययाचो मुखेल प्रत्यय जा (जे) आसा. आधिर - जड, आधिर् जा - जडपणान, बेन् - हांव, बेनजा - म्हज्या मतान, आदाम् - मनीस, आदाम्जा - मनीसपणान.

१ बिर्, २ इकि, ३ उँच्, ४ दर्त्, ५ बेश्, ६ आल्त, ७ येदी, ८ सेकिझ्, ९ दोकुझ्, १० ओन् हे तुर्कींतले पयले धा अंक आसात.

तुर्की बोली उलोवपी वाठार खूब व्हड आसून तातूंत गट येतात ते अशे-

**१. ईशान्य गट** - रशियांतलें याकूत, मंगोलियाचे शिमेवयलें तुर्क.

**२. हाका गट** - मदलें आबाकान, सकयलें आबाकान, हांचे उत्तरेकडलो वाठार आनी कामासिंची.

**३. अल्ताई गट** - अल्ताई, तेलेउत, उत्तरेकडलें कुमांद, तार्तर, शोर, आबा.

**४. उदेंत सायबीरिया गट** - (चुलिम आनी तोबोलचे) तार्तर, बाराबा, बुखारी ओत.

**५. व्होल्गा - उरल गट** - कॅझनचें तार्तर, मिशार, तेप्तिआर, बाखकीर, चुवाश.

**६. मध्य आशिया गट** - चीन आनी कान्सू वाठारांतलें तुर्क, कझाक, किरगीझ, उझबेक, रिक्वाचें तुर्क.

**७. नैऋत्य गट** - अफघाणिस्तान, इराण आनी तुर्कमेनिस्तानांतलें तुर्क, इराणांतलें आझरबैजान, उत्तर कॉकेशस, बालखुर, कुमिक, कारापापाख, तुर्कस्तानाचें तुर्क, बेसअरेबियांतलें गागाउस, क्रिमियाचे दक्षिणेचें तार्तर.

**८. हेर** - तुर्कीच्या वाठारांत पातळिल्ल्यो हेर सगळ्यो बोली.

-कों. वि. सं. मं.

## तुर्की साहित्य :

सातव्या आनी आठव्या शेंकड्यांतले सायबेरिया आनी मंगोलियांत मेळिल्ले तशेंच पुरातन काळांतल्या कोक तुर्की राजांच्या भोवमानान बरयल्ले शिलालेख हे सगळ्यांत पोरणे तुर्की अवशेश. उपरांतच्या काळांतलें लिखाण उईगुर लिपींत जालां. तुर्कांनी, इस्लाम धर्म आपणायतकच, अरबी आनी इराणी वाङ्मयाचो वापर करपाक सुरवात केली आनी इकराव्या शेंकड्या उपरांत वाङ्मयीन स्वरुपाचें लिखाण जावंक लागलें. युसुफ हाज हाजीब हाचें 'कुतादगू बिलिग' (१०६९) हें नितीबोधाचेर बरयल्लें काव्य उदेंत तुर्कस्थानांतलें वाङ्मयीन स्वरुपांतलें पयलें लिखाण. ह्याच काळांतलें अदिब अहमद हाचें 'अतबतुल हकायिक' हें दुसरें पुस्तक आसा. उपरांत तुर्की भाशेच्या 'चगताई', अझेरी' आनी 'ओसमानली' ह्या तीन मुखेल शाखांनी वाङ्मय तयार जालें.

**चगताई वाङ्मय** - मध्य आशियांतल्या तुर्कांभितर उदरगतीक पाविल्ली ही एक भास. ही तेराव्या शेंकड्याचे अखेरेक सावन सुरवात जाली. ही भास खाकानिया तुर्की हे भाशेचेर आदारिल्ली आसा.

हेरात, समरकंद ह्या मुखेल केंद्रांवांगडा दिल्ली हें लेगीत हे भाशेचें केंद्र आशिल्लें. अली शिर नेवाई ह्या हे भाशेच्या नामनेच्या प्रतिनिधीन, इराणी संस्कृती आनी भाशा हांच्या प्रभावकाळांत लेगीत तुर्की ही खंयचेच नदरेन फार्सी परस उणी ना हें आपल्या 'मुहाकामतुल लुगतैन' ह्या ग्रंथांत सांगलां, सम्राट बाबरान तुर्कींत कविता आनी 'बाबरनामा' ह्यो यादी बरयल्यो. तशेंच हेर मोगल राजांनीय तुर्की भाशेंत लिखाण केलें. बाबराचो पूत कामरान मिर्झा हाचें 'दिवान' प्रसिद्द आसा. मध्य आशियांतलो अझीझी हाणें काव्यनिर्मीती केली. बैरमखान तशेंच सोळाव्या शेंकड्यांतलो काश्मिरचो राज्यकर्तो मिर्झा हैदर दुघलत हेय तुर्की भाशेचे कवी आशिल्ले. लघुव्याकरणां, शब्दकोशय भारतांत तयार जाले. अझफरी हाचोय एक शब्दकोश आसा. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत इन्शा हाणें आपली दीसपटी आनी कांय कविता तुर्की भाशेंत बरयल्यो. १९१७ उपरांत, रशियांतले नवे राजवटीखाला चगताई भाशेची सुवात उझबेक भाशेन घेतली.

**आझरी वाङ्मय** - तेराव्या - चवदाव्या शेंकड्यांतले हसन ओघलू आनी काझी बुऱ्हानुद्दीन हे आझरी भाशेचे सुरवातीचे प्रतिनिधी आसात. बुऱ्हानुद्दीनच्या 'दिवाना'त 'तुयूग' ह्या खास तुर्की काव्य प्रकाराचो आस्पाव जाता. नेसिमी ह्या 'हुरुफी' पंथाच्या कवीन उर्बेभरीत गझली बरयल्यात. ताका चौदाव्या शेंकड्यांतलो सगळ्यांत श्रेश्ठ कवी मानतात. पंदराव्या शेंकड्यांतलो हबीबी हो म्हत्वाचो कवी आसा. शाह इस्माइल हो इराणाचो राजा तशेंच फुजुली ह्या नामनेच्या तुर्की कवीनूय आझरींत लिखाण केलें. सोळाव्या शेंकड्यांतलो, दिल्ली दरबारांतलो कवी सियानी तेच भाशेन सतराव्या शेंकड्यांतलो नामनेचो इंडो - इराणी कवी साइब हाच्योय हे भाशेंतल्यो कांय गझली आसात.

**उस्मानली (ऑटोमन) वाङ्मय** - आशिया मायनरच्या सद्याच्या तुर्कस्थानांतल्या तुर्की भाशेची खूब भरभराट जाली. ह्याच देशांत 'ओगूझ' बोली ऑटोमन तुर्कीच्या स्वरुपांत इराणी प्रभावाखाला विकसीत जाली. तिच्यांत 'दीवान एदेबियाती' (दरबारी वाङ्मय) ह्या नांवाचें अभिजात साहित्य निर्माण जालें. लोकसाहित्यूय ह्या काळांत तयार जावंक लागलें. तेराव्या शेंकड्यांतलो नामनेचो सुफी कवी रुमी आनी ताचो पूत सुलतान वलद हाणेंय तुर्कींत काव्य - लिखाण केलें. ह्याच शय्याद हामझा हाणें गूढकाव्य बरयलें. देहहानी आनी युनुस एमरे हे चौदाव्या शेंकड्यांतले नामनेचे कवी. ह्या काळांत इराणी भाशेचें वर्चस्व आसून लेगीत फोनिया, कस्तमोनू, बुर्सा आनी हेर सुवातींनी तुर्की भास समृध्द जावंक लागली. कितलेंशेंच अरबी आनी फार्सी साहित्य तुर्कींत अणकारीत जालें. गुलशेहरी हाणें 'मनतिकुत तैर', ह्या फार्सी काव्याचो तुर्कींत अणकार केलो. संस्कृतांतल्या पंचतंत्राचोय फार्सी भाशेंतल्यान तुर्की भाशेंत कोणें तरी अणकार केला. अहमदी हो चवदाव्या शेंकड्यांतलो आनीक एक म्हत्वाचो कवी आसा. सुलेमान चेलेबी, शेखी, अहमदपाशा आनी नेजाती हे पंदराव्या शेंकड्यांतले मुखेल कवी. सुलेमान चेलेबीचें 'मेवलिद' हें काव्य आयज लेगीत तुर्की मुसलमान सोयऱ्यांचे पुण्यतिथी दिसा भावार्थान वाचतात. ओरूच बेग आनी आशिक पाशा झादा हांणी इतिहासीक साहित्य निर्मिती करून मोलादीक वावर केलो. 'किर्क वझीर हिकायेलरी' हें सोंपे तुर्की भाशेंत बरयल्लें लोकप्रिय कथासाहित्य. फुजुली, खयाली, बाकी, रुही हे सोळाव्या शेंकड्यांतले कांय नामनेचे कवी. हाकीझाक फार्शीभाशेनूच तुर्कीतूय खूब नामना मेळ्ळी. 'ताजूत आनी तवारीख' हो इतिहासग्रंथ

सादेद्दीन इफेंदी हाणें बरयलो. ह्याच काळांत इब्ने केमाल आनी जलाल झादा हे नामनेचे इतिहासकार जावन गेले. मुस्ताफा अली हाणें बरयल्लो 'कुनहुल अखबार' हो ह्या काळांतलो सगळ्यांत म्हत्वाचो इतिहासग्रंथ. आपल्या 'मनाकिबे हुनखराज' ह्या ग्रंथांत ताणें सुलेखन कलावंत आनी पुस्तक बांदणीकार हांचीं चरित्रां दिल्यांत. ह्याच काळांत पिरी रईस आनी सीदी अली रईस हाणीं बरयल्लीं भोंवडेवर्णनां आनी भुगोलीक वर्णनां मेळटात.

सगळ्यांत पयलीं सेही बेग हाणें साहित्याचो इतिहास बरयलो. हाचे उपरांतचें अशे तरेचें लिखाण करपी अहदी, लतीफी आनी आशिक चेलेबी हे आसात. 'कसीदा' हो काव्यप्रकार ताणें 'सबके हिंदी' ह्या नांवान वळखुपी शैलींत बरोवन ह्या काव्य प्रकाराक तुर्की भाशेंत उंचेली सुवात मेळोवन दिली. ताचेच बरोबरचे यहया आनी अल्ताई हांणी क्रमान गझल आनी मस्नवी हातूंत मोलादीक भर घाली. कराजा ओघलान आनी आशिक उमर हे ह्या काळांतले नामनेचे गायक कवी. कातिब चेलेबी, नश्मा, कोचीबी आनी पेचेवी हे सतराव्या शेंकड्यांतले नामनेचे इतिहासकार. गद्य क्षेत्रांत वैसी आनी नर्गिसी हांची खूब नामना आसा. अठराव्या शेंकड्यांतले नेदीम, सेख गालीब हे नामनेचे गझलकार जावन गेले. कितल्याशाच कवींचे चरीत्रग्रंथ ह्या काळांत सादे, सरळ शैलींत बरयले. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत अस्तंत साहित्य सिद्धांतांच्या प्रभावाक लागून ऑटोमन साहित्याचे सुवातेर आर्विल्लें तुर्की साहित्य तयार जालें.

**आर्विल्लें साहित्य** – एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत शिनासी, झियापाशा आनी नामिक केमाल ह्या साहितिकांनी परंपरेन चलत आयिल्ले साहित्य विशय सोडून नवे विशय हाडून तुर्की साहित्यांत आर्विल्लेंपण हाडलें. ह्याच आर्विल्ल्या साहितिकांच्या, विसाव्या शेंकड्यांतले दुसरे पिळगेंत एकरेम, अब्दूल हक हमीद हांचो आस्पाव जाता. कांय काळ भारतांत वास्तव्य केल्ल्यान अब्दूल हक हमीद हाणें 'जुहर - ए - हिंदी' आनी 'हिंदूस्थानकी ओदम' हीं काव्यां बरयलीं. आपले मेल्ले बायलेचेर बरयल्ली 'मकबर' ही ताची सगळ्यांत उत्कृश्ट काव्यरचना. एकरेम हाचोय 'मरण' होच काव्याचो मुखेल विशय आशिल्लो. एकरेम हाच्या फुडारपणाखाल 'सरवते फुनुन' ह्या नांवाची साहित्यीक चळवळ 'सरवते फुनुन' नांवाच्या एका वाङ्मयीन नेमाळ्याच्या नांवावयल्यान सुरू जाली. हें चळवळींत तेव्फीक फिकरत, जनाब शहाबुद्दीन आनी जलाल साहिर हे कांय मुखेल साहित्यीक प्रतिनिधी आशिल्ले. तेव्फीक हो गटांतलो सगळ्यांत श्रेश्ठ असो कवी. मुहमद आकिफ, झिया गोकल्प, सालिह झकी, अहमद हाशिम, मुहंमद एमीन, रिझा तेव्फीक, याह्या केमाल हे ह्याच काळांतले नामनेचे कवी. ओरहान सैफी ओरहॉन, फारूक नाफीज, चाम्लीबेल, एनीस बेहिच कोरयुरेक, हालित फेहरी ओझनसोय ह्या कवींचे अक्षरगणवृत्तांचेर प्रभुत्व आशिल्लें.

विसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत मुहीब दृरानाज, अहमद हमदी तानपिनार, जाहीर सिदकी तारंजी हाणीं उर्बेभरीत कविता बरयल्यो. नाझिम हिकमत रन हाणें मुक्तकाव्याक आरंभ करून साम्यवादाचो पुरस्कार केलो. नेजीब फाजिल आनी बेहजेट नेजातिगिल हांच्या काव्यांनी जिज्ञासू वृत्ती दिसता.

बेदरी रहमी अय्युब ओगलू, ओरहान वेली कानिक, ओकताय रिफत, जाहित कुलेबी, सलाह बिरसेल हांची दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत एक पिळगी तयार जाली. १९५५ वर्सासावन नववाङ्मयीन प्रवृत्तींची सुरवात जाली. इलहान बर्क, आतिला इलहान, तुरगुत उयर, एदीब जानसेवर, जेमाल, सुरैय्या हाणीं ह्या प्रवृत्तींचेर आदारीत काव्य लिखाण केलें.

शिनासी आनी ताचे वांगडी झियापाशा आनी नामिक केमाल हाणीं तुर्कींत कादंबरी आनी नाटक अशे नवे युरोपी साहित्यप्रकार हाडले. १८६० वर्सासावन शिनासीचे लेख नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक येवंक लागले, तेन्नासावन तुर्की गद्य साहित्याक नवो नेट आयलो. तुर्कींत पयलीं 'कारागोझ' नांवाचें छायानाट्य तशेंच 'ओर्ता ओयुनु' नांवाचो उकत्या माटवांत जावपी नाट्यप्रकार आशिल्लो.

शिनासीन 'शायर एव्हलेन मेसी' ह्या नांवाचें पयलें आर्विल्लें नाटक लोकभाशेंत बरयलें. नामिक केमालचें 'वतन' हें पयलें क्रांतिकारक नाटक १८७३ वर्सा माचयेर आयलें. ताचें दुसरें एक इतिहासीक नाटक 'जुलालुद्दीन ख्वारझ्म शाह' हें उर्दूंत अणकारीत जालां. अहमद वेफिक पाशान मोलियेर ह्या फ्रँच नाटककाराचे धर्तेचेर नाटकां बरयलीं. अलीबेग हाचें 'अय्यार हमजा' हें नाटकूय मोलियेराच्या त्याच प्रकारांतलें. युसुफ कामिल पाशा हाणें 'तेलेमाक्' ही तुर्कींतली पयली कादंबरी त्याच नांवाचे फ्रेंच कादंबरीवयल्यान अणकारीत केली. नामिकची 'इन्तिबाह' ही तुर्कींतली पयली कादंबरी. १८८९ वर्सा उजवाडा आयिल्ली एकरेमची 'अरवा सेवदासी' ही कादंबरी उल्लेख करपासारकी.

हमीद हाणें 'एशबर', 'नेसतेरेम' आनी 'दुखतरे हिंदु फिनतेन' हीं नाटकां बरयलीं. 'दुखतरे हिंदू' ह्या नाटकांत ताणें ब्रिटीशांनी भारतांत केल्ल्या छळवादाचें आनी अत्याचारांचें चित्रण केलां. अहमद मिदहत एफेंदी हाणें युरोपी शैलींत लोकप्रिय कादंबऱ्यो बरयल्यो. हेच शैलीचेर हालिद झिया हाणें 'माइ आनी सियाह', ' अशके मामनु' ह्यो दोन कादंबऱ्यो बरयल्यो. ताणें कांय लघुकथाय बरयल्यो. उमर सेयेफेद्दीन हो लेखक सुगम भाशेचो पुरस्कर्तो आशिल्लो.

विसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत याकुब कदरी, रफीक हालिद कराय, हालिदे एदिब हाणीं आपल्या कादंबऱ्यानी ॲनातोलीयातले जिणेचें चित्रण केलां. याकुब कदरी हाच्यो 'किरालिक कोनुक', 'नुरबाबा' आनी 'याबान' ह्यो कादंबऱ्यो प्रसिद्ध आसात. हालिदे एदिब हे कादंबरीकार लेखिकेन आपल्या सुरवातीच्या कादंबऱ्यांतल्यान राश्ट्रवादी चळवळीचें चित्रण करून शिक्षीत बायलांचे प्रस्न हाताळ्ळे. तिणें 'दोनेर - आयना', तशेंच इंग्लीश कादंबरी 'क्लाऊन ॲंड हीझ डॉक्टर' ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो. रेशाद नूरी हाणें उंचेल्या दर्जाच्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो.

कादंबरी प्रकाराचो विस्तार करपांत सबाहद्दीन अली आनी सइत फाईक हे मुखेल आसात. सइत फाईकच्या कथाझेल्यांत 'लुसुमसुझ आदम', कुम्पानिया', हवुजबाशी' आनी 'आलेम दागिंदावर बिर यिलान' ह्यो उल्लेख करपासारक्यो आसात. हुसेन रेहमी, ए. एस. हिसार हाणीं उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो. इहलान टारूस, केमाल ताहिर, ओरहन केमाल, समीम कोजगोझ, जेंगीझ दागजी, यशर केमाल, तालिब अपायदीन, फकीर बायकुर्त, मेहमूद यकाल हे नवे पिळगेंतले कांय नामनेचे कादंबरीकार. सबोहेद्दीन एय्युब ओगलू आनी सलाह बिरसेल हे श्रेश्ठ दर्जाचे आर्विल्ले निबंधकार, रुशेन एशरेफ हाची खबरेकार म्हणून आनी नुरुल्ला अताच हाची साहित्यसमिक्षक म्हणून नामना आसा. विनोदी लेखकांभितर अर्जुमंद एकरेम, अझीझ नेसीम हांचो उल्लेख करचो पडटा.

– कों. वि. सं. मं.

**तुलसीदास गोस्वामी :** (१५५४ - १६८०).

एक व्हड हिंदी म्हाकवी. ताचे जल्मतिथी संबंदान एकमत नासलें, तरी ताची जल्मतीथ संवत १५५४, श्रावण कृष्ण तृतीया मानप जाता. ताच्या जल्मस्थानाविशीय सारकी म्हायती मेळना. ताचें जल्मस्थान राजपूर काय सारो हाचेरूय वाद आसा. ताच्या बापायचें नांव आत्माराम दुबे आनी आवयचें नांव हुलसी आशिल्लें. ताच्या जल्माच्या वेळार ताचे आवयक मर्ण आयलें. ताचो जल्म मूळ नक्षत्राचेर जाल्ल्यान ताच्या बापायन ताचो त्याग केलो. कांय दिसांनी ताच्या बापायक मरण आयलें. तुळशीदासाचें खरें नांव रामबोला आशिल्लें. भुरगेपणांत वायट परिस्थिती आयिल्ल्यान तो भोंवत भोंवत सारोंत (सूकरक्षेत्र) पावलो. थंय तो नरहरीदास हाच्या आलाशिऱ्याक रावलो आनी ताका आपलो गुरू मानलो. ताचेकडल्यान ताणें पयलीं रामकथा आयकली. नरहरिदासानूच ताका 'तुलसीदास' हें नांव दिलें. देवस्मरण करीत करीत तो चित्रकूटाक पावलो. उपरांत रत्नावली नांवाचे चलयेवांगडा ताचें लग्न जालें. फुडें आपले बायलेच्या उपदेशाक लागून ताका वैराग्य आयलें. अशें सांगतात की तो आपले बायलेचेर उफाट मोग करतालो आनी ह्या मोगानच लोकांची पर्वा करिनासतना तो आपले बायलेक मेळूक कुळारा गेलो. तेन्ना ताका तसो आयिल्लो पळोवन तिका राग आयलो आनी तिणें ताका खर उतरां सांगली. तिच्या ह्या खर उतरांनी ताचें संवसारांतले मन गेलें आनी तो विरक्त जालो. विरक्त जावन भोंवडी करता आसतना तो भक्ती साधनेंत तल्लीन रावतालो.



तो सत आनी न्याय ह्या मुल्यांचो समर्थक आशिल्लो तशेंच सभावान नम्र आशिल्लो. अंधविश्वास, अनौचित्य आनी आडंबराचो विरोधी आशिल्लो. तो निद्वंद्व, निर्भय, त्यागी आनी युगद्रश्टो आशिल्लो. सुखदुख्खाचो अणभव, भोंवडी, सत्संग आनी खूब अभ्यास हांच्या प्रभावांतल्यान ताची जिविताची नदर तयार जाल्ली. हे नदरेचो काव्यात्मक अविश्कार ताच्या साहित्यांतल्यान दिश्टी पडटा.

ताणें बरयल्ले १२ म्हत्वाचे ग्रंथ अशे आसात - १) रामचरितमानस २) कवितावली ३) विनयपत्रिका ४) बरवै रामायण ५) दोहावली ६) गीतावली ७) कृष्णगीतावली ८) जानकीमंगल ९) पार्वतीमंगल १०) रामलला नहछू ११) रामाज्ञाप्रस्न १२) बैराग्य संदीपनी.

तुलसीदासान वेद, उपनिषदां, गीता, भारतीय दर्शनां, वाल्मिकी रामायण हांच्या आदारान ताणें आपले विचार लोकांमुखार मांडले. तुलसीदासान आदर्श गृहस्थधर्माचें, आदर्श कुटूंब वेवस्थेचें चित्र पितारलें. मनशाची कुटुंबांतलीं आनी समाजांतलीं कर्तव्यां आनी मर्यादा हांचो आदर्श ताणें सांगलो.

तुलसीदासान आपल्या साहित्यांत ब्रज आनी अवधी दोनूय भाशांचो उपेग केला. ताच्या काव्यांत संस्कृत उतरांचो भरपूर उपेग केल्लो दिसता. कवी म्हणून ताका हिंदी साहित्यांत व्हड स्थान आसा. बऱ्यांतलें बरें प्रबंधकाव्य रचपाची तांक तशेंच उत्कट भावना पदांच्या रुपान उक्तावपाची आत्मनिश्ठा ताच्यांत आशिल्ली. कथेंतलीं मार्मीक आनी रसात्मक सौदर्यं स्थळां वर्णन करपाची ताची कला, प्रसंगाप्रमाण भाशेचें रूप राखपाची तांक, छंद आनी अळंकारांचो जाय थंय उपेग करपांत तुलसीदास खुबूच यशस्वी जाला.

ताचे विद्वत्तेक लागून तत्कालीन बुदवंतांनी ताका 'कलिकाल का वाल्मीकी', 'मोगल काळांतलो सगळ्यांत म्हान पुरूश', 'बुद्धा उपरांतचो सगळ्यांत व्हड लोकनायक' ह्यो पदव्यो दिल्ल्यो.

सवंत १६८० श्रावण, शुक्ल सप्तमीच्या दिसा ताका अस्सीघाटार (काशी) मर्ण आयलें.

- डॉ. अरविन्द पाण्डेय

**तुलसीव्रत :** एक काम्य व्रत. कार्तिक शुद्ध नमीसावन एकादशीमेरेन तीन दीस हें व्रत करतात. ह्या तीन दिसांमदीं श्री विष्णुची भांगरामूर्त आनी तुळस हांची पुजा करपाची आसता. नमी दिसा श्री विष्णु आनी तूळस हांचें लग्न करप हें ह्या व्रताचें खाशेलपण. हें लग्न करतकच कर्त्याक कन्यादानाचें फळ मेळटा अशें सांगलां. तुळशीवनातच हें व्रत केल्यार चड पुण्यायेचें अशें मानतात. हें व्रत करतकच सौभाग्य, भुरगेंबाळ, आस्पत आनी शिक्षण ह्या गजालींची प्राप्ती जाता. ह्या व्रताची कथा अशी -

कांची नगरांत कनक नांवाचो एक क्षत्रिय रावतालो. ताका किशोरी नांवाची नवसांनी जाल्ली एक चली आशिल्ली. एक दीस तिची पत्रिका पळोवन एका ज्योतिशान सांगलें की, हे चलयेचें जाचेकडेन लग्न जातलें त्या भुरग्याक आंगार वीज पडून मरण येतलें. तें आयकून कनकाक वायट दिसलें आनी ताणें तिका आंकवारच दवरपाचें थारायलें. फुडें एक दीस ब्राह्मणान किशोरीक द्वादशाक्षरी विष्णुमंत्र दिलो. तेचवांगडा सदांच मंत्र जपून तुळशीच्या झाडाची पुजा करप आनी कार्तिक शुद्ध नमीक श्री विष्णु आनी तुळस हांचें लग्न लावप, अशें एक व्रत ताणें तिका सांगलें.

तरणे पिरायेचेर किशोरी सुमाराभायर सोबीत दिसताली. एक दीस तिका एका गंध्यान पळेली. ती आपल्याक मेळची देखून ताणें जायते यत्न केले. पूण ताच्या हाताक ती लागली ना. फुडें ताणें कपट कारस्थान करून एके बायलेचो भेस घेतलो आनी तो तिचेकडेन येवन रावलो. त्याच वेळार कांची नगराच्या राजाक मुकुंद नांवाचो एक चलो आशिल्लो आनी तो सुर्याची उपासना करतालो. एक दीस ताची नदर किशोरीचेर गेली. तिची सोबीतकाय पळोवन ताणें तिचेचकडेन लग्न जावपाचें थारयलें. सुर्यान स्वपनांत येवन ताका तिच्या वायट भविश्याविशीं सांगलें. पूण ताणें आपलो हट्ट सोडलोना आनी तिचेकडेन लग्न थारायलें. लग्नादिसा किशोरी आपले कुडींत तुळस आनी विष्णू हांच्या चिंतनांत आशिल्ली. ती राजाची सून जातली म्हणून खंयच्याच दादल्याची तिचेर नदर पडूंक जायना देखून सगळ्या दादल्यांक भायर धाडले. पूण गंधी बायलेच्या भेसांत आशिल्ल्यान थंयच रावंक शकलो. किशोरी आपल्याक मेळना देखून ताका तिडक

आशिल्लीच. ताणें ती लग्नामाटवांत वचचे आदीं एकफावट तिचो हात धरपाचें थारायलें. तेन्नाच भायर मोड आयलें आनी मळबांत जोगलां मारपाक लागलीं. होच वेळ सादून गंधीन तिचो हात धरलो. त्याच खिणाक वीज ताच्या माथ्यार पडून ताका त्या खिणाक मरण आयलें. फुडें व्हड दबाज्यान मुकुंद आनी किशोरीचें लग्न जालें. अशे रीतीन तुळशीव्रताच्या प्रभावान किशोरीचें वैधव्य टळलें.

– कों. वि. सं. मं.

**तुळजाभवानी :** नामनेची देवी भवानी हिचें एक रूप. हिका त्वरीता, त्वरजा, तुरजा, तुकाई अशीं आनीकय नांवां आसात. त्वरजा वा तुरजा ह्या संस्कृत नांवापसून तुळजा हें नांव जालां आसुये. सुक्रार हो देवीचे उपासनेंतलो म्हत्वाचो वार. तुकाई हें नांव तुक्क म्हळ्यार शुक्र ह्या द्रवीड उतरापसून तयार जालां. देखून 'सुक्राराची देवी' ह्या अर्थान तुकाई हें उतर आयिल्लें दिसता.

तुळजाभवानीचें मुखेल थळ महाराष्ट्रांतल्या उस्मानाबाद जिल्ह्यांतल्या तुळजापूर ह्या गांवांत आसा. ह्या देवळांतली तुळजाभवानीची मूर्त काळ्या पाशाणाचेर उंच शींवासनाचेर उबी आसा. माथ्यार मुकुटाचेर सयोनिलिंग आसून मुकुटापोंदच्यान केसांचे आगळ भायर आयल्यात. ही अश्टभुजादेवी आसून तिच्या हातांत बाण, चक्र, शंख, धणू, पानपात्र आनी राकेसाची शेंडी आदी वस्तू आसात. फाटीर बाणांचो भातो आसा. तिचो उजवो पांय महिषासुराचेर आसून ताचे उजवेकडेन शींव आनी ताचेसकयल मार्कंडेय ऋषी आसा. दावो पांय भुंयेर आसून दोन पायांमदीं तुटिल्ली रेड्याची तकली आसा. ही मुर्त सतराव्या अठराव्या शतमानांतली आसतली अशें अभ्यासकांचें मत आसा.

भारतांत महिषमर्दिनी अष्टभुजेची उपासना पुर्विल्ली आसली तरी तुळजाभवानी ह्या नांवान महाराष्ट्रांत तिची उपासना नेमकी केन्ना सुरू जाली हाची खबर मेळना. इ.स. च्या इकराव्या शतमानांत परमार उपनांवाचें एक राजघराणें कर्नाटकांतल्यान मिथिलेंत गेलें. त्या घराण्यांतल्या हरिसिंहदेव नांवाच्या राजान इ.स. १३२४ त आपली कुलदेवता म्हणून तुळजाभवानीचीं देवळां बांदलीं अशी म्हायती मेळटा. भाटगांव आनी काठमांडूक तुळजाभवानीचीं देवळां आसात. गुरूचरित्र आनी शिवभारत आदी ग्रंथांनी आनी इतिहासीक कागदपत्रांनी तुळजाभवानी आनी तुळजापूरचे इ.स. १३०० च्या उपरांतचे उल्लेख मेळटात.

रावणाचें पारिपत्य करूंक गेल्ल्या रामाक हिणें जैताचो वर दिल्लो देखून हिका रामवरदायिनी अशेंय नांव पडलां अशी कथा एकनाथान भावार्थ रामायणांत दिल्ली आसा.

रामवरदायिनी ही मोरे हांची कुलदेवता. तिचें थळ प्रतापगडाच्या मुळसांत आशिल्ल्या पार ह्या गांवांत आसा. फुडें मोरे हाका हारयतकच शिवाजी महाराजान प्रतापगडाचेर हे देवीची स्थापना केली. अफजलखानाक मारतकच ताणें थंय तिचें देवूळ बांदलें आनी नेपाळांतल्यान गंडकी शिळेची मूर्त हाडून तिची नव्यान प्रतिश्ठापना केली. पुण्यालागसार सिंहगडाच्या मुळसांत कोंढणपूराकय तुकाईचें एक देवूळ आसा.

तुळजाभवानी ही समर्थ रामदासाचीय कुळदेवता आशिल्ली. ताणें तिचेर जायतीं स्तोत्रां रचल्यांत. प्रतापगडाचेर तिची स्थापना रामदासाचेच हस्तूकीं जाली अशें म्हण्टात. महाराष्ट्रांतल्या जायत्या घराण्यांची ही कुलदेवता. महाराष्ट्राचे संस्कृतीक जिणेंत एक प्रेरक शक्त म्हणून तिची नामना आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**तुळस – १ :** (मराठी : तुळस; हिंदी, गुजराती, कन्नड, संस्कृत : तूर्य, तुलसी; इंग्लीश : सेक्रेड बेझिल, होली बेझिल; लॅटिन : ऑक्सिमम सँक्टम; कूळ : लॅबिएटी).

ही वर्सभर जियेवपी वनस्पत भारतांत सगळेकडेन हिंदूंच्या घराच्या दारांत लायिल्ली दिश्टी पडटा. हिंदू धर्मांत तुळशीक देवी मानल्या. आयुर्वेदांत तुळशीच्या गुणधर्मांचें वर्णन केलां तें अशें – तिखट स्वाद, कांय प्रमाणांत कडवट, पचपाक हळकी सात्वीक.

तुळस सादारणपणान ३०-७५ सेंमी. ऊंच वाडटा. पानां सादीं एकमेकांसामकार आनी लांबट आसतात. फुलांक केंसरां अशें म्हण्टात. तुळशीचो उगम खंय जालो, हाचो स्पश्ट उल्लेख मेळना. तरी पूण भारत हें उगम स्थान आसूंक जाय अशें तज्ञाचें मत आसा.

तुळशीचे दोन मुखेल प्रकार आसात ते अशे –

**१. रामतुळस –** हिका कांयकडेन श्रीतुळस म्हणून वळखतात. हिचीं पानां पाचवीं आसतात.

**२. कृष्णतुळस –** हिका श्याम तुळस अशेंय म्हण्टात. हिच्या पानांचो रंग थोडोसो काळसर आसता. वखदां तयार करतना हेच तुळशीचो वापर करतात.

तुळशीच्यो कितल्योश्योच जाती आसात. जम्मूचे एके संस्थेन तुळशीच्या सुमार ५० जातींचो संग्रह केला. हातूंतल्यो कांय म्हत्वाच्यो जाती अशो –

रानतुळस – हिका कुठेरक अशेंय म्हण्टात. रक्तदोश, नेत्रदोश, कोड ह्या रोगांचेर तिचो वापर करतात.

मरूवक – आंगाक जाल्ल्या घायांचेर तशेंच विखारी जीव चाबल्यार हे तुळशीचो उपेग करतात.

दद्रिहतुळस – ही तुळस बंगाल, नेपाळांत चड प्रमाणांत मेळटा. सूज, संधीवात हांचेआड तिचो वापर करतात.

बाबीतुळस – ही तुळस पंजाब, बंगालांत मेळटा. पानांचो वास लवंगाभाशेन आशिल्ल्यान फोडणी दिवपाक तिचो वापर करतात.

तुकाशमिय – हे जातीची तुळस अस्तंत भारत आनी इराणांत मेळटा. ही तुळस कुश्ठरोगाआड वापरतात. क्षेत्रीय अनुसंधान शाळा, जम्मू हे संस्थेन हालींच एक 'क्लॉसिमम' नांवाची तुळशीची सुदारीत जात विकसीत केल्या. हे जातींत ५०% युजीनॉल नांवाचें तेल आसता. हें तेल खुबश्या वखदांनी वापरतात.

तुळस खंयचेय जमनींत वाडटा, पूण काळे सुपीक मातयेंत ती बरे तरेन वाडटा. तुळशीची लागवड बियांपसून करतात. पावसादिसांनी जळींमळीं तुळशीचीं रोंपां किल्लून येतात. हीं रोंपां हुमटावन दुसरेकडेन लावपाक जातात. तुळशीक रोग – किडीची बादा जायना.

तुळशीच्या दरेका भागाचे वखदी उपेग जातात. थंडी, खांक, कफ तशेंच जोर उणो करपाक तुळशीच्या पानांचो रोस उपेगी पडटा. कान दुखल्यार कानांत तुळशीच्या पानांच्या रोसाचे थेंबे घालतात. तुळशीचीं पानां चाबून खाल्यार रगत शुध्द जाता. तशेंच मलेरियाच्या दुशीत तत्त्वाचो

नाश जाता. तुळशीच्या पानांची च्या पियेल्यार मानसीक ताण उणो जाता. वात, संधीवात, सांध्याचीं दुखणीं ह्या रोगाचेर तुळशीचो उपेग जाता. तुळशीच्या रोंप्यांतल्यान रातचो लेगीत प्राण वायू भायर येता. हो वायू हवा शुद्ध करता. गर्भाशयाचे बरेचशे रोग तुळशीच्या रोसान बरे जातात.

सुकिल्लीं पानां वांटून तांचो लेप कातीक लायल्यार कात नितळ जाता. तोंडाच्या मुमरांचेर हो लेप लायतात.

तुळशीपसून तयार केल्लीं कांय वखदां बाजारांत मेळटात तीं अशीं - लघुराजमृगांक, तुळशीतेल, सुश्रुत, भावप्रकाश, सुदर्शनवटी, कासामृत, तेभायर बॉरोप्लस आनी सरल हे तुळशीपसून तयार केल्ले शाबू मेळटात. हिंदू धर्मकृत्यांत तुळशीचीं पानां आनी कणसां देवाक पवित्र मानल्यांत. विष्णू धरून बऱ्याच देवांचे पुजेखातीर तुळशीपानांचो उपेग करप जाता. सत्यनारायण व्रतांत देवाक तुळशीपानांचो अभिशेक घालप जाता. पद्मपुराणांत तुळशीविशीं अशें म्हळां -

मणिकाञ्चनपुष्पाणि तथा मुक्तामयानि च ।
तुलसीदलपत्रस्य कला नार्हन्ति षोडशीम ।

**अर्थ** - भांगराचीं, रत्नाचीं आनी मोतयांचीं फुलां जरी विष्णुक ओंपली तरी ताका तुळशी पानांची सर येवंची ना.

तुळशीपानान प्रोक्षण केलेबगर विष्णु निवेदय स्विकारना. तुळशीचें दर्शन, स्पर्श, ध्यान, नमन, पुजन, रोपण आनी सेवन ह्यो गजाली पातकां नश्ट करतात. तुळशीच्या पुराय झाडांत देव आसता अशें म्हळां.

तुलसी कानन चैव गृहे यस्यावतिष्ठते ।
तद् गृहं तीर्थभूतं हि नायान्ति यमकिङ्कराः ।

**अर्थ** - ज्या घरा तुळशीचें वन आसा तें घर तिर्थावरी पवित्र. ह्या घरांत यमदूत येनात.

जंय तुळशीचें वन आसता त्या वाठारांतली कोसभर जमीन गंगेवरी पवित्र जाता अशें म्हळां. तुळशीचें पान काडटा आसतना हे निशेध सांगल्यात - वैधृती, मंगळ, शुक्र हे वार, रातीचीं आनी तिनसांजे तुळशीचीं पानां काडप नासता. तशेंच भश्टांत आसतनाय तुळशीक हात लायनात.

तुळस ही दरेका हिंदुच्या घरामुखार आसपी एक पवित्र आनी उपेगी वनस्पत. ती विष्णुक प्रिय आसा देखून तिका 'हरीप्रिया' अशेंय म्हण्टात. तुळशीक अमृतोद्भवा, विष्णुवल्लभा अशीं हेर नांवां आसात.

आयुर्वेदाचे नदरेंतल्यान तुळशीच्या पानांक खुबूच म्हत्व आसा. तुळशीच्या केसरांचो काडो करून खांकेआड दितात. तुळशीच्या पानांचो रोस काडून तो म्होंवांतल्यान घेतले उपरांत खोकलेची ठास उणी जाता.

वारकरी पंथाच्या लोकामदीं तुळशी पानांची माळ हें वारकरी - प्रतीक. जप सिद्ध जावपाखातीर तुळशीची माळ गळ्यांत घालप गरजेची आसता. तुळशीकाश्ठमणीमाळ जो गळ्यांत घालता तो अश्वमेध यज्ञाचें फळ प्राप्त करता अशें ब्रह्मवैवर्तपुराणांत सांगलां.

- विश्राम गांवकार
- कों. वि. सं. मं.

**तुळस - २ :** (वृंदावन) हिंदू घरामुखावयल्या आंगणांत तुळशी वृंदावन आसचेंच, असो संकेत आसा. एके थाराविक उंचायेच्या पेडाचेर विष्णू आनी हेर देवांच्यो मूर्ती आशिल्लें चड करून चौकोनी आकाराचें वृंदावन बसयतात. हें वृंदावन पोकळ आसता आनी ते पोकळेंत माती भरून तातूंत तुळशीचें झाड रोयतात.

सणा परबेक रांगोळी काडून तुळशीमुखार दिवो लावपाची पद्दत आसा. तेभायर दिसपट्टें सकाळफुडें न्हाले उपरांत तुळशीवृंदावनांतल्या तुळशी झाडाक उदक घालपाचो चडश्या बायलांचो नेमधर्म आसता. तिनसांजच्या वेळार तुळशीमुखार दिवो लावपाची पद्दत सर्रास हिंदू घरांनी दिसता.



तुळशीवृंदावन

आधुनीक काळांत जाग्याचे अडचणीक लागून घरामुखार फावोसारकें आंगण नासता. तेन्ना आनी भौमाळयांच्या घरांनी रावपाचो प्रसंग येता तेन्ना पक्कें बांदकाम आशिल्लें तुळशी वृंदावन करूंक मेळना. अशा वेळार गॅलरींत वा अशेच तरेचे मेकळे सुवातेर डबो, कास वा तत्सम वस्तुचो उपेग तुळशी वृंदावना खातीर करप जाता.

तुळशीवृंदावनाविशीं जायत्यो पुराणीक आनी लोककथात्मक उत्पत्तीकथा आसात. तातूंतली एक कथा अशी - धर्मध्वज नांवाचो राजा आनी ताची बायल माधवी हांकां सोबीत अशी चली आशिल्ली. तिच्या रुपाक लागून लोक तिका तुळशी म्हण्टाले. तिणें बदरीवनांत विष्णुखातीर तप केलें. तेन्ना ब्रह्मदेव तिका प्रसन्न जालो. तेन्ना तिणें ताका सांगलें ती फाटल्या जल्मांत तुळशी नांवाची गोपी आशिल्ली आनी ती कृष्णाची आवडटी सखी आशिल्ली. एक दीस राधेन तिका श्रीकृष्णावांगडा सहवासाचें सूख घेतना पळेली आनी तिणें तिका मनशाचे योनींत जल्म घेवपाचो शाप दिलो. कृष्णाक हो शाप आयकून वायट दिसलें आनी ताणें तिका मानव जल्मांतय मेळपाचें उत्तर दिलें. ही खबर आयकून ब्रह्मदेवान तिका सांगलें, ह्या मानव जल्मांत तुका विष्णु मेळटलोच, पूण ते आदीं तुका आदल्या जल्मांत गोप आशिल्ल्या पूण राधेच्या शापाक लागून ह्या जल्मांत दैत्याचो जल्म घेतिल्ल्या शंखचुडाकडेन लग्न जावचें पडटलें. उपरांत ताणें तिका षोडशाखरी राधिकामंत्र दिलो. उपरांत तिका शंखचूड मेळ्ळो. तो गांधर्वविधीन तिचेकडेन लग्न जालो. फुडें तो दैत्य खूब मातलो. ताणें देवांचेर घुरी घाली. देव शंकराकडेन गेले. उपरांत शंकराचें आनी ताचें व्हड झूज जालें. पूण तुळशीच्या पातिव्रत्याक लागून शंखचूड अमर जाल्लो. देखून ताका कशेंच मरण येना जालें. तेन्ना विष्णु कपट करून शंखचूडाचें रूप घेवन तुळशी म्हऱ्यांत आयलो. तिणेंय घोव समजून ताची सेवा केली. पूण रोखडेंच तिका जेन्ना कळ्ळें की, विष्णु तिच्या घोवाचें रूप घेवन आयला तेन्ना तिणें ताका पाशाणरूप जावपाचो

शाप दिलो. तेन्ना विष्णुन तिका सांगलें, हांव मेळचो देखून तुवें तप केल्लें. ताका लागून शंखचूडाच्या रुपान हांवे तुजेकडेन संबंद दवरलो. हाचेफुडें तुका दिव्य देह मेळटलो. तुज्या ह्या तापिल्ल्या शरिरांतल्यान गंडकी नांवाची न्हंय निर्माण जातली. तुज्या केंसांतल्यान एक झाड येतलें. ताकाय लोक तुळसच म्हण्टले आनी ताची पुजा करतले. तुवें म्हाका पाशाण जावपाचो शाप दिल्ल्यान हांव गंडकीचे देगेर साळीग्राम नांवाचो पाशाण जातलों. म्हजें प्रतीक म्हणून लोक हें पाशाण पुजतले आनी ताचेर तुळशीपानां घालतले. तशेंच शंखचूडाचो शंखाच्या रुपान म्हजे पुजेंत आस्पाव जातलो.

**तुळशी महात्म्य** – तुळशीचें फकत दर्शनय पापनाशक आसून तिची पुजा मोक्षदायक आसा. तुळस ही वृंदावनांत रावता. ती विष्णुक आवडटा. तुळशीच्या पानांबगर विष्णुचे पुजेक म्हत्व ना.

**तुळशीलग्न :** तुळशीसंबंदीत एक परब. ह्या दिसा विष्णुचें तुळशीवांगडा सांकेतीक पद्दतीन लग्न लायतात. हाचेविशीं लोक साहित्यांत कथा मेळटा ती अशी – एका गरीब ब्राह्मणाक तुळशी नांवाची काळी चली आशिल्ली. एका भविश्यकारान तिचेविशीं अशें भविश्य सांगलें की, तिका ब्राह्मण न्हवरो मेळचोना. तेन्ना बापायन तिका घरांतल्यान भायर घाली. ती थंयच्यान पंढरपूरांत येवन रावली. थंय तिचें आनी विठ्ठलाचें एकमेकांचेर प्रेम बसलें. रुक्मीणीक हें कळटकच ती तिचो मत्सर करूंक लागली. तें पळोवन तुळशीक वीट आयलो आनी ती सीतेवरवीं भुंयेंत गडप जाली. तेन्नाच विठोबा थंय आयलो. ताणें तिचे केंस धरून तिका वयर काडली. तेन्ना एक काळें झाड वयर आयलें. मानवी तुळशीक दिल्लें वचन विठोबान त्या झाडाकडेन लग्न लावन पुराय केलें. तेन्नाच्यान कार्तिक शुध्द दुवादशीक तुळशीचें लग्न लावपाची चाल सूरू जाली.

तुळशीलग्ना दिसा तुळशीचें वृंदावन आनी ताचे भोंवतणचो जागो झाडून पुसून निवळ करतात. भोवतणीं शेण सारोवन जमीन शुध्द करतात आनी रांगोळी घालतात. वृंदावन वेगवेगळ्या रंगांनी रंगयतात. सकाळींफुडें तुळशीक तेल हळद लायतात. उपरांत तिका अलंकार घालून नटयतात. तुळशीच्या वृंदावनांत शिवडी, जिन्याबडी, चिंचो, आंवाळे हांच्यो ताळयो दवरतात. रोजांच्यो माळो घालून वृंदावन सजयतात. उपरांत पुरयताक आनी आप्तइश्टांक आपोवन सगळ्यांचे उपस्थितींत तुळशीची षोडशोपचार पुजा करतात. ते पुजेचो संकल्प असो – विष्णुप्रबोधनार्थ राधा कार्तिक दामोदर प्रीत्यर्थ तुलशी विवाहाख्यं कर्म करिष्ये।

षोडशोपचार पुजा अभिशेकामेरेन पावतकच तुळशीक दुदाचें स्नान घालून तीनदां तुळशीक प्रदक्षिणा घालून विष्णूक 'जागो जा' अशी प्रार्थना करतात.

निवेद्य समर्पण जाले उपरांत, राधा स्वरुपी तुळस आनी कार्तिक दामोदर विष्णुरुपी बाळकृष्ण हाचें लग्न करतात. घरचो यजमान हातांत आंब्यापानां गुठलावन आनी फुलां गुंथून केल्ली माळ घेवन पाटार उबो रावता. तो आनी तुळस हांचे मदीं अंतरपाट धरतात. जमिल्ल्या लोकांक अक्षता वांट्टात. मंगलाश्टकां म्हणून जातकीच येजमान आपल्या हातांतली माळ तुळशीक अर्पण करता. बाळकृष्णाक तुळशीची माळ आनी तुळशीक फुलांची माळ घालतात. उपरांत आरती जातकच सगळ्यांक फोव, चिरमुल्यो, ऊंस अशी खिरापत वांट्टात. उपरांत सवायशीण बायलो तुळशीची होंट भरतात. तुळशीम्हन्यांत जोडवें पेटोवन सौभाग्याची याचना करतात.

तुळशीच्या लग्नाचो हो विधी कार्तिक शुध्द दुवादशीपसून कार्तिक पुनवेमेरेन करपाची पद्दत आसा. ह्या चार तिथींनी उत्तरा, भाद्रपदा, रेवती आनी आश्विनी नखेत्र जे तिथीक येता तो दीस तुळशीलग्नाक एकदम बरो अशें शास्त्र सांगता.

– कों. वि. सं. मं.

– माधव भुस्कुटे

**तुळाभार :** तुळाभार हें उतर तुळा आनी भार ह्या दोन उतरांपसून तयार जालां. तुळा म्हळ्यार तागडी आनी भार म्हळ्यार वजन. तागडेच्या एका दाल्यांत मनशाक बसोवप आनी दुसऱ्या दाल्यांत आंगवण केल्लो जिन्नस घालून त्या मनशाक जोखप. उपरांत त्या जिनसाचें दान करप. हाकाच तुळाभार अशें म्हण्टात.

गोंयांतल्या खुबशा देवळांनी तुळाभार करपाची चाल आसा. तुळाभार करप ही एके तरेची आंगवण. एकाद्रें भुरगें परतून – परतून दुयेंत जाल्यार वा ताची जीतें उरपाची शक्यताय उणी आसल्यार ही आंगवण करतात आनी देवळांत तुळाभार करून पावयतात.

तुळाभार करचे पयलीं देवळांतलो पुरयत ज्या मनशाचो तुळाभार करपाचो आसता, ताचेकडल्यान नवस पावोवपाचें उदक सोडटा आनी गणेशपुजा करून घेता. देवळाच्या चौकार एक व्हड तागडी बांदतात. ते तागडेच्या एका दाल्यांत आंगयल्ल्या मनशाक बसयतात आनी जे वस्तून तुळा करपाची आंगवण केल्या ती वस्तू दुसऱ्या दाल्यांत घालतात. वस्तुचें दालें व्यक्तीच्या दाल्यापरस सकयल येतकच थोडो वेळ तागडी तशीच दवरतात. उपरांत त्या मनशाकडल्यान आंगवण पावयली म्हणून उदक सोडटात. ते व्यक्तीक तागडेंतल्यान सकयल देंवोवन गाराणें घालतात. दुसऱ्या दाल्यांतल्या वस्तुचें पुरयत, सेवेकरी वांटप करून घेतात. चड मोलाची वस्त आसल्यार ती देवाच्या भांडारांत जमा करतात. चड करून नाल्ल, साकर, तांदूळ, तीळ, लोखण ह्यो आंगवणीच्यो वस्तू आसतात. जे वस्तून तुळाभार करपाची आंगवण केल्ली आसता ती ती वस्तू तुळाभारांत वापरतात.

देवळांनी तुळाभार करपाची जी पद्दत आसा, ती चड करून 'तुलापुरूषदान' म्हणून जें दान सांगलां, ताचेवयल्यान सुरू जालें आसूं येता. तुलापूरूषदान हें सोळा महादानांतलें एक. भांगर, रुपें वा खंयचीय वस्तू घेवन आपली तुळा करून घेवप आनी ते वस्तुचें दान करप, अशें ह्या महादानाचें स्वरूप. देवळांनी जे तुळाभार करतात, ते पिडा निवारण करपाचे नदरेन आसात. पूण दुसऱ्यो कांय इत्सा पुराय करपाचे नदरेनूय तुळाभार करपाची चाल आमच्या इतिहासांत दिसता.

दरेका जल्मांत कृष्णूच आपलो घोव जावंचो म्हणून सत्यभामेन श्रीकृष्णाचो तुळाभार केल्लो. पयलींचे राजे, महाराजे आपलो तुळाभार करून घेवन तें द्रव्य ब्राह्मणांक वांट्टाले. शिवाजी महाराजाचो राज्याभिशेक जाले उपरांत खूब दानधर्म केल्लो. तेन्ना ताची भांगराची तुळा करून दानधर्म केल्लो. भारताच्या स्वांतत्र्याच्या झुजांत पयशांचे गरजेक लागून रंगुनांत लोकांनी आपलें भांगर घालून नेताजी सुभाषचंद्र हाची तुळा केल्ली.

कांय लोक आपले जिणेंत मेळिल्ल्या येसाची तोखणाय करून घेवपाक तुळाभार करून घेतात.

– डॉ. अनंत राम भट्ट

**तुळू भास :** द्रवीड भाशा चोम्यांतली एक भास. ती कर्नाटक राज्याच्या द. कॅनरा ह्या दर्या देगेच्या वाठारांत आनी केरळच्या उत्तरेकडल्या कासरगोड तालुक्यांत उलयतात. १९८१ वर्साचे जनगणने प्रमाण तुळू भाशिकांची संख्या ११,५६,९५० आशिल्ली. हातूंतले कांय लोक कर्नाटकांत, कांय केरळांत, महाराष्ट्रांत, तमीळनाडूंत आनी बाकीचे देशाच्या हेर वाठारांनी पातळ्ळ्यात.

आदल्या तेंपार तुळू भास बरोवपाखातीर मल्याळम् लिपींतल्यान तयार जाल्ले तुळू लिपीचो उपेग जातालो. हालींच्या काळांत, म्हळ्यार सुमार १०० वर्सांमदीं, ते सुवातेर कन्नड लिपीचो उपेग करतात.

**ध्वनिविचार** – स्वर : अ, आ, इ, ई, ए (ऱ्हस्व आनी दीर्घ), उ, ऊ, ओ (ऱ्हस्व आनी दीर्घ), ॲ (ऱ्हस्व आनी दीर्घ).

**व्यंजनां** – क, ग, ङ्, च, ज, ञ; ट, ड, ण; त, द, न; प, ब, म; य, र, ल, ळ, व, श, ष, स, ह.

**व्याकरण** – नाम : तीन लिंगां आनी दोन वचनां आसात. कांय नामांचें भोववचन जायना. विभक्ती आठ आसात आनी तांचे प्रत्यय अशे आसात–

| विभक्ती | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथमा | शून्य, अ, ऊ, ए | रु, ळु, कुळु |
| द्वितीया | न, नु | रे, ळेणु |
| तृतीया | टा, डा, | लेडा |
| चतुर्थी | ग, क, गु, कु | रेग |
| पंचमी | डद, डदु | ळेडदु |
| षष्ठी | आ, ता, दा, | रे, ळे |
| सप्तमी | ट, ड, टु, डु | ळेडु |
| संबोधन | आ, ओ, | रे, ळे |

**सर्वनाम** – सर्वनामां अशीं आसात –

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| पयलो पुरूश | एन 'हांव' | एंकुळु 'आमी' |
| | | नावु 'आपूण' |
| दुसरो पुरूश | इ 'तूं' | निंकुळु 'तुमी' |
| | ईर, 'तूं' (आदरार्थी) | |
| तिसरो पुरूश (पयस) | पु. आये | |
| | स्त्री. आळ | आकुळु |
| | आदरार्थी आर | |
| | न. आवु | आयकुळु |
| (लागीं) | पु. उंब्ये | |
| | स्त्री. उंबाळ | मूकुळु (मनीस) |
| | न. उंदु | उंदेकुळु (सचेतन) |
| | | नेकुळु (अचेतन) |

**प्रस्नवाचक सर्वनामां** – एर (पु. स्त्री.) आनी ओवु एकवचन – ओय्कुळु, भोववचन (न.) हीं आसात.

**विशेशण** – तुळू भाशेंत सिद्ध विशेशणां उणीं आसात. पूण नामाक आपिनी आनी आदुप्पुनि लायल्यार हें उणेपण भरून येता. सिद्ध विशेशण – पोसा 'नवो' पोसाकुंटु 'नवे कपडे'. साधित विशेशण – बेने 'वेदना' – बेनेउप्पु 'वेदनाकारक'. पंचमी उपरांत येवपी विशेशण तुळा आनी सप्तमी उपरांत येवपी विशेशण व्हडपण दाखयता.

**क्रियापद** – धातूचें रूप जशाकतशें वापरून वा ताका 'ला' हो प्रत्यय लावन आज्ञार्थाचें एकवचन मेळटा. अनेकवचनी 'ले' हो प्रत्यय लागता.

वर्तमान आनी भविश्य हो एकच काळ आसा. काट 'बांध' – ह्या धातूचीं ह्या काळाचीं रूपां अशीं –

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| पयलो पुरूश | काट्वे | काट्वो |
| दुसरो पुरूश | काट्वा | काट्वार |
| तिसरो पुरूश | पु. काट्वे | काट्वेर |
| | स्त्रि. काट्वाळ | |
| | न. काट्टुणु | काट्वो |

भूतकाळ, पूर्णभूतकाळ आदी काळ अशेच तरेचे प्रत्यय लागून जातात. नकारवाचक रूपां विशिश्ट प्रत्यय लागून जातात.

**अव्यय** – अव्ययांतय सिद्ध आनी साधित अशे प्रकार आसात – कोडे 'काल'; इनि 'आज'; पेट्टिगे 'रोखडें'; कुडा 'परत'; क्रियापदांक आनी नामांक अद, दाते हे प्रत्यय लावन साधित अव्ययां मेळटात. गुट्टु 'गुपित' – गुट्टुअद 'गुपचूप'; पोर्लु 'सोबीत' – पोर्लुअद 'सोबीत तरेन'.

**वाक्यरचणूक** – वाक्यरचणूक सादारणपणान हेर भाशां वरीच आसता. कांय उतरां आनी वाक्यां – सोन्ने 'शून्य'; ओंजी 'एक'; एराड 'दोन'; मूजि 'तीन'; नाल 'चार'; आयन 'पाच'; आजि 'स'; एळ 'सात'; एण्मा 'आठ'; ओरम्बा 'णव'; पोत्तोंजि 'धा'.

कों. वि. सं. मं.

**तुळू लिपी :** एक दक्षिण भारतीय लिपी. तुळू लिपीची उत्पत्ती ग्रंथ लिपीपसून उत्पन्न जाल्ल्या मल्याळम् लिपीपसून जाली. हे लिपीचो संस्कृत ग्रंथलेखनाखातीर उपेग करताले. दक्षिण कॅनरा आनी मलबार ह्या वाठारांत हे लिपीचो प्रसार जालो.



तुळू वर्णमाळ

आठव्या – णवव्या शतमानाच्या सुमाराक हे लिपीचो प्रसार ह्या वाठारांत जालो आसुंये, अशें जाणकाराचें मत आसा. अस्तंतेकडले ग्रंथ लिपीक

'चोळग्रंथ' लिपी म्हण्टाले. फुडें हे लिपींत बदल जायत गेलो आनी तिचें तुळू लिपींत रुपांतर जालें. सोळाव्या शतमानामेरेन तुळू आनी मल्याळम लिपी एकच आशिल्ल्यो.

सद्याचे तुळू लिपींत आनी पुर्विल्ले तुळू लिपींत व्हडलोसो फरक मेळना. पंदराव्या – सोळाव्या शतमानासावन तुळू लिपींतलीं हातबरपां मेळटात. मलबारांतलीं हातबरपां वांकडी – तिकडीं बरयल्लीं मेळटात. ह्या हातबरपांचे लिपीक 'आर्य एलत्तु' अशें नांव आशिल्लें. दक्षिण कॅनरांतलीं हातबरपां मात खूब सुंदर आसात. तुळू ही निकतीच वयर सरपी भास आशिल्ल्यान तिचें व्हड साहित्य आजून निर्माण जावंकना. पंदराव्या शतमानांतल्या अळूप राजा कुलशेखर चवथो आळुपेंद्र हाचे शिलालेख तुळू भाशेंत आनी मल्याळम् लिपींत आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**तूप :** लोणी कडयतकच तातूंतलो उदकाचो अंश वचून उरता तो पदार्थ. दुदापसून केल्ल्या हेर खंयच्याय पदार्थापरस तूप चड दीस बरे स्थितींत उरता. म्हणून उश्ण कटिबंधांतल्या देशांत लोणयापरस तुपाचोच वापर चड करतात.

पयलीं दुदाचें धंय करून धंय कचकचावन लोणी काडटात आनी लोणी कडोवन तूप करतात. तूप कडोवपाक सुमार ८०° ते १२५° सॅ. मेरेन तापमान लागता. ११५° सॅ. परस चड तापमानाचेर कडयल्ल्या तुपाक करपट वास येता. अशा प्रकारचें तूप भारतांत कांय थरावीक वाठारांनी वापरतात. १२०° सॅ. तापमान दवरून थोडो वेळ लोणी कडयल्यार तुपांतलें कॅरोटीन आनी 'अ' जीवनसत्व नश्ट जायना आनी तूप रवाळ (खरखरीत) जाता. मंदाग्नीचेर लोणी कडयता आसतना वयर उबिल्लो चिखोल काडून उडयतात. बोमाडे येवपाचे थांबतकच तशेंच एक तरेचो वास येवंक लागतकच आयदन सकयल दवरतात. तुपाचेर तरंगपी पदार्थ तळाक बसतकच तूप निवळून घेतात.

थरावीक बाजारपेठेंत थरावीक प्रकारचें तूप खपता. देखून वेगवेगळे कडच्यान आयिल्लें अर्दा कढाच्या तुपाचेर शुद्धिकरण कारखान्यांत प्रक्रिया करची पडटा. तूप निवळपाक दोन तीन वरां लागतात. ताचें तापमान ६०° सॅ. जातकच तें डब्यांत भरतात. बरें रवाळ तूप जावपाखातीर हे डबे हालूंक दिनात. ४०° सॅ. तापमानाक डब्याच्या कडांनी तुपाचो रवो (खरखरीत) जावंक लागता. उत्तर प्रदेशांत हाथरस गांवांत रवो (खरखरीत) नाशिल्लें आनी दिसपाक मेणाभशेन आशिल्लें तूप तयार करतात.

घरगुती तूप कडयतना तातूंत हळदीचीं पानां घालतात. हालींहालीं अशें दिसून आयलां की दालचीनी, हळद, लवंग, मिरी, जायफळ वा सूंठ हातूंत विरगळपी प्रतिऑक्सिडीकारक पदार्थ आसतात. ताचे लागून तुपाची रूच इबाडना आनी तें चड दीस तिगूंक शकता.

रवाळपण, रंग, स्वरूप हांचो तुपाच्या मोलाचेर परिणाम जाता. गायचें तूप हळदुवें जाल्यार म्हशीचें तूप धवें आसता आनी ताका लेव पाचवी सया मारता. रुचीवयल्यानय तुपाचें मोल थारायतात. म्हशीच्या तुपाक महाराष्ट्र, गुजरात, कर्नाटक, मध्यप्रदेश, पंजाब हरयाना आनी उत्तर प्रदेशांत मागणी आसा. बंगाल, तमीळनाडू, राजस्थानांत गायच्या तुपाक मागणी आसा. बोकडेच्या तुपाक एकेतरेचो वास येता. बोकडी – मेंढयाचें तूप बाजारांत विकूंक येना. गुजरातांतल्या मेहसाणां जिल्ह्यांत हळदुवें तूप वा बोकडेचें दूद ह्या वेपारी नांवांन वळखतात, तें तूप तयार जाता. तें तूप गाय, म्हस, बोकडी आनी मेंढरी हांच्या तुपाची भरसण आसता. त्या तुपाचो गोडशें करपाक उपेग जाता.

लोणी कडयतकच आयदनाच्या तळाक तांबसो पदार्थ उरता ताका मूर म्हण्टात. तातूंत उदक १०.१२%, वसो १८.३०% आनी दुदांतले हेर घन पदार्थ ५५.७०% आसतात. मिठाईखातीर तिचो उपेग करतात. पूण प्रत्यक्षांत ती मनशान खावपाक योग्य नासता. ती परती शुद्ध केल्यार तिच्यांतलो तुपाचो अंश काडून ती शाबूनिर्मिती खातीर वा जनावरांचें खाद्य म्हणून उपेगी पडटा.

खार सायेच्या लोणयाचें तूप करचे आदीं खारसाण काडून उडयतात आनी मागीर तें कडयतात. खाऱ्या लोणयाचें तूप म्हारग पडटा देखून चड करून सायच एकदम कडयतात. बिहारांतल्या मोंघीर आनी दरभंगा जिल्ह्यांनी हे पद्दतीन लोणी कडयतात. गोड सायेपसून केल्ल्या तुपाक देशी लोणयापसून कडयल्ल्या तुपाभाशेन विशिश्ट रूच येना देखून सायेक विरजण लायतात. तेच खातीर धंयापसून लोणी वेगळें जावपाक आदार मेळटा आनी तुपूय बरें जाता. सायेचें एकदम तूप करपाचीय एक पद्दत टांगानिकांत आसा.

भारत सरकाराच्या १९५४ च्या 'प्रिव्हेंन्शन ऑफ फूड ॲडल्टरेशन रूल्स' ह्या कायद्या प्रमाण तुपांत सादारणपणान उदक ०.३% आनी वसाम्लां ३.०% हाचेपरस चड आसूंक जायना. तुपाचो उपेग चडसो जेवणा खाणाखातीर आनी विशेश करून मिठाय करपा खातीर करतात. शुध्द तुपांत 'ए', 'डी' आनी 'इ' हीं जिवनसत्वां आसतात. तुपाचे जायते वखदी उपेग आसात. तुपाक धर्मीक म्हत्वय आसा. होम हवन सारकिल्ल्या धर्मीक कार्यांनी तुपाचो वापर करप जाता. देवा मुखार तुपान भिजिल्ले वातीचे दिवे लावपाची खाशेली आंगवण करप जाता. वनस्पती पासून तयार केल्ल्या थरावीक तरेच्या तेलाचो रंग, दाटाय आनी कांय प्रमाणांत गुणर्धम तुपासारके आसता. जनावरांच्या दुदापसून तयार जावपी तुपाचें प्रमाण उणें जाल्ल्यान आनी ताचें मोलय चड आशिल्ल्यान जेवणा – खाणाखातीर खऱ्या तुपाच्या जाग्यार वनस्पतीच्या तूप सदृशी तेलाचो वापर करप जाता. गांवगिऱ्या वाठारांनी ह्या वनस्पती तेलाक, तूप आनी दुदापसून जावपी तुपाक गांवठी तूप म्हण्टात.

आयुर्वेदीक साहित्यांत तुपाविशीं म्हायती मेळटा ती अशी – वेगवेगळ्या द्रव्यांच्या संस्कारान हजारांनी कर्मां करपी एक द्रव्य. तूप हें गोड, शांत, शीत, थंड, अग्नीदीपक, कफवर्धक, वातपित्तशामक आसून शुक्रधातू आनी दोळे हांकां हिताचें. तेज आवाज, याद, रूप, तरणेंपण, शक्त, जीण वाडोवपी, मानसिक दोश निवळावपी आनी शरीर स्निग्ध करपी. तशेंच शरिराक हिताचें म्हणून दर दिसा घेवपासारकें हें द्रव्य.

– कों. वि. सं. मं.

**तूर :** (हिंदी : तुअर, अरहर दाल; गुजराती : तुवेरो, डांगरी; कन्नड : तुवरी; संस्कृतः तुवरिका, तुवरी, आढकी; इंग्लीश : पीजन पी, कञ्जन पी; लॅटीन : कजानस कजान; कन्नड : इंडिकस. कूळ : लेग्युमिनोजी, उपकूळ पॅपिलिऑनेटी).

हें झाड सादारण १.२ ते ३ मी. उंचायेचें, वर्सभर वा चड वर्सां जगपी, सांगांचें झाड. ताचीं संयुक्त पानां तिनदळी आसून दलां लांबट तोंकाचीं

आनी गाड पाचवीं आसून पानां सकयलेवटेन धवसार आनी लव्हाळ आसतात. फुलां हळदुवीं आसून ऑक्टोबर, डिसेंबर मेरेन तांचो भार आसता. सांग ३.८५,१.२ सेंमी. वाटकुळी - चेपटी आसता.

बियो ३-५ टणक, गुळगुळीत, वाटकुळसार हळदुव्यो वा धव्यो आसतात. ह्या झाडाचीं पाळां सरळ जमनींत सकयल वतात. तांची लांबाय १- १.५ मी. आसता आनी मुखेल पाळाक आनीक ल्हान पाळां येतात. खोड सादारणपणान १ - १.५ मी. उंच आसता. ताका कडांनी खांदयो येवन झोंपावरी झाड तयार जाता. ह्या पिकाच्या मुळाचेर नायट्रोजनयुक्त गांठी आशिल्ल्यान तशेंच मुळां जमनींत खोल वतात देखून जमीन सुदारपा खातीर ह्या पिकाचो उपेग करतात.

हाच्या मूळ स्थानाविशीं निश्चीत म्हायती मेळना, पूण ताचो उगम आफ्रिका खंडांत जालो अशें मानतात. चरकसंहिता (दुसरें शतमान) आनी सुश्रुतसंहिता (तिसरें शतमान) हातूंत तुरीचो उल्लेख आढळकी ह्या नांवान आयला. तुवरी ह्या धान्याचो उल्लेख 'मदनविनोद निघंटूत' केल्लो मेळटा. हाचेवयल्यान हें धान्य मुळचें भारतीय आसुंये अशेंच म्हण्टात.

ह्या पिकाची लागवड आफ्रिका, अमेरिका, ऑस्ट्रेलिया, हवाई, इस्ट आनी वॅस्ट इंडिज जुंवे, भारत आनी उश्ण कटिबंधांतल्या चडशा सगळ्या देशांनी करतात.

भारतांत हरभऱ्या फाटोफाट ह्या कडुणाचो नंबर लागता. तें चड करून उत्तरप्रदेश, मध्यप्रदेश, बिहार, आंध्रप्रदेश, गुजरात, महाराष्ट्र आनी तमीळनाडू ह्या राज्यांनी सादारणपणान मिश्रपीक म्हणून घेतात. देशांतल्या कड्डणाच्या सगळ्या पिकांचो विचार केल्यार तुरीचो वाठार १०% वयर आसून सगळ्या कड्डणांच्या उत्पादनांत तुरीचें सुमार १३% वयर उत्पादन जाता.

तुरीच्यो बी. एन.-१, पूसा अगेती, टी-२१, सी ११, पी. टी. ३०१, एन ४, बी. डी. एन-२ ह्यो मुखेल जाती आसात.

तूर हें भोववर्सुकी पीक आसा तरी वर्सुकी पीक म्हणूनूय ताची लागवड जाता. हें एकोडें म्हणून वा हेर पिकां वांगडा मिश्र पीक म्हणून घेवं येता. हें उश्ण प्रदेशांतलें पीक आसून ताका सुकें आनी दमट हवामान लागता. ताका मध्यम ते भारी जमीन लागता. हें मिश्र पीक आसल्यार ताका वेगळी नांगरणी करची पडना. पूण एकोडें पीक आसल्यार ताका एकदां नांगरणी करून दोनदां कोळपणी करची पडटा. जून - जुलय म्हयन्यांनी ह्या पिकाची पेरणी करतात. हॅक्टरी १२-१५ किलो बीं लागता. दोन ओळींनी ५० - ९० सेंमी. आनी दोन रोपांमदीं २५ ते ३० सेंमी. सुवात दवरतात. एका जाग्यार १-२ रोपां लायतात. हें मिक्स पीक म्हणून रोयल्यार मुखेल पिकाच्या ४-१० ओळींफाटल्यान तुरीची एक ओळ लायतात. मुखेल पीक काडटकच जमीन नांगरून तुरीक वाडपाक चालना दितात. बीं पेरपा आदीं ताका रायझोबियम जिवाणू संवर्धक लावचें. हॅक्टरी १२ गाडे शेणखत जावं कंपोस्ट, तशेंच २५ किलो नत्र आनी ५० - ७५ किलो स्फुरद दिवंचें.

एकोडें पीक आसल्यार हॅक्टरी १५०० ते १८०० किलो आनी मिश्र पीक आसल्यार २०० ते ८०० किलो तुरीचें उत्पन्न येता. तुरीचो उपेग दाळ करून जेवणांत वापरतात. हरव्यो सांगो भाजये खातीर, हरवीं पानां आनी झाडाचो पाचवो भाग गोरवांची खावड वा सावळेचें सारें म्हणून उपेगांत हाडटात. सांगांचें कल्ल आनी फुटिल्ल्या दाण्याचो उरिल्लो भाग गोरवांची खावड म्हणून वापरतात. झाडाची ताडां पांटले करपाक तशेंच घर शिंवपाक उपेगांत हाडटात.

तुरीक सांगो पोखरपी कीड, सांगावयलो मूस, पानां खावपी कीड ह्यो मुखेल किडी लागतात. तांचेर ७५० मि. ली. एण्डोसल्फेट ३५% ५०० लि. उदकांत घालून एक हॅक्टर सुवातेर फवारचें. मर होय एक मुखेल रोग तुरीक लागता. ताचेर उपाय म्हणून मर रोगाक प्रतिकार करपी सी -११ ही जात लावंची.

तुरींत भरपूर अन्नघटक आसतात. प्रथिनां २४.१%, फेट १.७०%, कार्बोहायड्रेट ६२.९०%, खनिजां दर १०० ग्रामाक, कॅल्शियम १२९ मिग्रॅ, लोखण ५.८० मिग्रॅ, फॉस्फरस २८८ मिग्रॅ, जीवनसत्व दर १०० ग्रामाक बी १ - ०.५० मिग्रॅ, बी २ - ०.१४ मिग्रॅ आनी निओसीन २.३ मिग्रॅ.

तुरीचीं पाळां जमनींत पोंदा वतात देखून जमनीपोंदाची खावड तें झाड खाता. तशेंच तूर हें सांगो दिवपी झाड आशिल्ल्यान ताच्या पाळांक गांठी आसतात. ह्यो गांठी हवेंतलें नत्र घेवन जमनींत सांठोवन दवरतात. देखून ल्हान पाळांचो पिकावळी उपरांत फेरपालट पीक म्हणून तुरीचें पीक घेतात.

- यादवेंद्र देसाय

**तूळ :** भारतीय राशीचक्रांतली सातवी रास. चित्रा नक्षत्राचे २, स्वाती आनी विशाखा नक्षत्राचे ३ चरण हे राशींत येतात. हे निरयन (संतापचलन मतींत घेनासतना) राशींत सूर्य, १७ ऑक्टोबर ते १६ नोव्हेंबर ह्या काळांत आसता. पयलीं ह्या वाठाराच्या तारकासमुहांत शरत् संपात बिंदू (Meeting Point) आशिल्लो. सूर्य आसतना हांगा दीस आनी रात समसमान आसतात. ताका लागून तूळ (तागडी) हें नांव पडलां आसूं येता. आतां संपात, कन्या राशींत आसा. चीनी ज्योतिशशास्त्रांत तूळ राशीचो संबंद प्रशासनाकडेन जोडला. फलज्योतिशाचे नदरेन हे राशीचो स्वामी शुक्र आसून शनी उच्च आसता. ह्या तारकासमुहाचे शिमेचेर कन्या, वृक, वृश्चिक, भुजंगधारी आनी भुजंग अशें तारकासमूह येतात. हातूंतलो झुबेन एल् गेनुबी हो आल्फा तारो, विशाखा नक्षत्रांतलो मुखेल तारो आनी तो बरोबर क्रांतीवृत्ताचेर येता. हो तारकायुग्म आसा. बिटा म्हळ्यार झुबेन एल् शमाली आनी डॅल्टा हे तारे रुपविकारी (Variable Stars) आसात. हो समूह म्हयन्याचे सुर्वेक मध्यानराती याम्योत्तर वृत्ताचेर येता. तागडी हें हे राशीचें चिन्न.



- कों. वि. सं. मं.

**तृतीया :** पूर्ण चंद्र बिंबाच्या पंदराव्या वांट्याक तीथ अशें म्हण्टात आनी तिसऱ्या वांट्याक तृतीया. म्हण्टकच चंद्रमासांत शुक्ल पक्षांतली तृतीया आनी कृष्ण पक्षांतली तृतीया अशो दोन तृतीया आसतात. हेमाद्रीन तृतीयेचें अशें वर्णन केलां-

तृतीया वृषगा गौरी शूलपात्रधरा मता ।

**अर्थ** - तृतीया ही बैलाचेर बशिल्ली, गोरी आनी शूळ तशेंच पात्र धारण करपी आसा.

तृतीयेच्या दिसा जल्माक आयिल्लें भुरगें गुणेस्त, परोपकारी, खरें

उलोवपी आनी विद्याव्यासंगी आसता अशें कोष्ठीप्रदीपांत म्हळां.

कोंकणींत हे तिथीक तय म्हण्टात.

– कों. वि. सं. मं.

**तेंडलें :** (मराठी : तोंडले; हिंदी : कांदुरी; गुजराती : घौब, गलेडू; कन्नड : तोंडलेकाई, तोंडलेबळ्ळी; संस्कृत : बिंबा, पीलुपर्णी, तुंडी; इंग्लीश : आयव्ही गोर्ड; लॅटीन : कॉक्सिनिया इंडीका, सिफॅलँड्रा इंडीका; कूळ : कुकर्बिटेसी).

बरींच वर्सां जगपी एक वखदी वेल. हिचो प्रसार भारत, श्रीलंका, मलेशिया आनी आफ्रिकेंतल्या उश्ण वाठारांत आसा. बागो, शेतां आनी



पोरसांनी ही वाल लावन फुडें दर वर्सा तिचीं फळां मेळोवं येतात. रानांतय ही वाल जाता. पूण तिचीं फळां कोडू आसतात. ही वाल माटवाचेर चडयतात. फुलां एकलिंगी, एकटुकीं, धवीं वा हळदुवीं, घांटीवरी आसून ऑगस्ट ते सप्टेंबर म्हयन्यांत येतात.

फळां २.५ ते ५ सेंमी. लांब आनी १.५ ते २.५ सेंमी. जाडायेचीं, लांबट, दोनय वटांतलीं तोंकां अशीर आसतात. तरणीं आसतना हीं फळां पाचवीं आसून तांचेर धव्यो उब्यो ओळी आसतात. ह्या फळांत हळदुव्यो, चेपट्यो आनी लांबट अश्यो जायत्यो बियो आसतात. फळांपसून भाजी करतात. तातूंत जीवनसत्वां आसतात. मुळाची साल सारक आसता. कातीच्या रोगाक भायल्यान हीं पानां वांटून लायतात.

– कों. वि. सं. मं.

**तेंडुलकार, काशीनाथ शाणू प्रभू :** (जल्म : ६ जून १९३६, वेळगें - दिवचल ).

सुटकेझुजारी. ताणें हायस्कूल मेरेनचें शिक्षण मराठी आनी इंग्लिशींतल्यान घेतलें. १९४६– ५६ ह्या काळांत तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो 'आझाद गोमंतक दल', संघटनेचो वांगडी जालो. १९४२ त ताणें नाना पाटील हाच्या फुडारपणाखाल भारतीय सुटके चळवळींत वांटो घेतलो.

नोव्हेंबर १९४२ त बेळगांवां ताका पोलीसांनी धरलो आनी हिंदुलगा बंदखणींत णव म्हयने दवरलो. १९४६ वर्सासावन ताणें गोंयचे सुटके चळवळींत वावर करूंक सुरवात केली. तेन्ना ताका परतून पोलीसांनी धरलो, खूब मार दिलो आनी बंदखणींत दवरलो. गांवांनी शिक्षणीक उदरगत जावंची म्हणुनूय तो वावर करतालो. गोंयचे सुटके उपरांत कॉंग्रेस कमिटीचो सचीव म्हणून तो वावर करतालो. तेभायर तो भारतीय कम्युनीस्ट पक्षाचो गोंय फांट्याचो सचीव आशिल्लो. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८२ ह्या दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**तेंडुलकार, विजय :** (जल्म : ६ जानेवारी १९२८, मुंबय).

नामनेचो लेखक, वृत्तपत्र वेवसायी, अखील भारतीय किर्तीचो नाटककार. ताणें मुंबय, पुणें आनी कोल्हापुराक शिक्षण घेतलें. भुरगेपणांतच ताचेर घरांतल्या साहित्यप्रेमी वातावरणाचे संस्कार जाल्ले. बापायच्या पुस्तकांच्या दुकानांत बसून मुद्रितां तपासतनाच साहित्य आत्मसात करपाचे आनी बरपाचे धडे ताका मेळ्ळे. १९५७ मेरेन तो पुण्यांत आशिल्लो. फुडें १९६६ पसून तो मुंबय स्थायीक जालो. दिसाळ्यांखातीर बरप करप आनी संपादन करप हें ताचें सुर्वेचें उपजिविकेचे मुखेल साधन आशिल्लें.

सुर्वेक ताणें उन्हे (१९७१), रातराणी (१९७१), फुगे साबणाचे (१९७४), ह्या सारके स्फुट ललितनिबंधाझेले उजवाडाक हाडले. काचपात्रे (१९५८), द्वंद (१९६१), मेषपात्रे (१९६५), फुलपाखरू (१९७०) आदी कांय लघुकथाय ताणें बरयल्यो.

१९५५ वर्सा सावन ताणें नाट्यलेखन सुरू केलें. सुर्वेक 'रात्र' ही एकांकिका बरोवन ताणें आपल्या नाट्यलेखनाक सुरवात केली. 'रात्र आणि इतर एकांकिका' हो ताचो पयलो एकांकिका झेलो (१९५७). उपरांत ताणें अजगर आणि गंधर्व (१९६६), भेकड आणि इतर एकांकिका (१९६९) हे एकांकीझेले आनी पाटलाच्या पोरीचे लगीन (१९६५), चिमणा बांधतो बंगला (१९६६), चांभारचौकशीचे नाटक (१९७०), मुलांसाठी तीन नाटीका (१९७३) आदी कांय बालनाट्यां बरोवन उजवाडाक हाडलीं. हाचेभायर ताणें विल्यम्स हाच्या स्ट्रीट कार नेम्ड डिझायर चो 'वासनाचक्र', मोहन राकेश हाच्या आधे अधुरे, गिरीश कार्नाड हाच्या तुघलकचो ताणें मराठी अणकार केलो. ताणें बरयल्ल्या सामना, निशांत आनी शांतता ह्या बोलपटांच्या कथांक इनामां मेळ्ळ्यांत.

ताचें पयलें नाटक 'श्रीमंत' (१९५५) हाका खुबूच नामना मेळ्ळी. उपरांत माणूस नावाचे बेट (१९५६), मधल्या भिंती (१९५८), चिमणीचं घर होतं मेणाचं (१९६०), मी जिंकलो - मी हरलो (१९६३), कावळ्यांची

शाळा (१९६४), सरी ग सरी (१९६४), एक हट्टी मुलगी (१९६७) हीं नाटकां रंगमाचयेर हाडलीं. १९६८ त ताणें 'शांतता कोर्ट चालू आहे' हें नाटक रंगमाचयेर हाडून राश्ट्रीय पावंड्यार नामना मेळयली. ह्या नाटकाक कमलादेवी चट्टोपाध्याय इनाम मेळ्ळें आनी भारतीय भाशांनी ताचे अणकारूय जाले.

ताचे उपरांत ताणें - अशी पाखरे येती (१९७०), गिधाडे (१९७१), सखाराम बाइंडर (१९७२), घाशीराम कोतवाल (१९७३), दंबद्वीपचा मुकाबला (१९७४), भल्याकाका (१९७४) आनी बेबी (१९७६) हीं नाटकां बरयलीं. ताणें सुमार विसांवयर नाटकां बरयल्यांत.

तेंडुलकार हो मुळांत वास्तववादी परंपरेचो नाटककार. प्रसंगाप्रमाण ताचे बरपावळींत ताणें कल्पनारम्यतेचो वापर केल्लो दिसता. पूण तातूंत लेगीत वास्तवतेचें दर्शन घडटा. सामान्य लोक धवाडे नोकरेचो वर्ग आनी गरीब दुबळे लोक हाचीं सुखदुख्खां ताणें आपले साहित्यकृतींत चितारल्यांत. दीसपट्टे जिणेंतल्यो जिव्यो घडणुको आपल्या असामान्य कसबांत माचयेर उब्यो करप हें ताच्या नाट्य लेखनाचें मर्म. ताच्या नाटकांनी मनीस जिणेंतली क्रुरताय, विकृती, कुरुपताय हाचें दर्शन घडटा. तातूंत काव्य आनी कारुण्य हांच्यो छटा दिसून येतात. आपल्या चिंतनावरवीं तो बरपावळींत नवे नवे प्रयोग करीत आसता.

भारतीय समाजांतलो हिंसाचार ह्या विशयावयल्यान संशोधनाखातीर ताका नेहरू अभ्यासवृत्ती दिल्या. तेभायर ताका जायतीं हेर इनामां मेळ्ळयांत.

- कों. वि. सं. मं.

**तेगबहादूर** : (जल्म : १६२१, अमृतसर - पंजाब; मरण : ११ नोव्हेंबर १६७५, दिल्ली).

शिखांचो नववो गुरू. शिखांचो सवो गुरू हरगोविंद हाचो तो सगळ्यांत धाकटो पूत. शिखांचो धावो गुरू गोविंदसिंग हाचो बापूय. ताचे आवयचें नांव नानकी. ताचें मूळ नांव त्यागमल अशें आसलें. तो व्हड जातकच तरसाद बहादूर जातलो आनी धर्माचे बाबतींत व्हड काम करतलो अशें ताच्या बापायन भविश्य सांगून दवरिल्लें. ताचे वयल्यान फुडें ताचें नांव तेगबहादूर जालें.

तो सुंदर, हुशार आनी विद्वान आशिल्लो. पिरायेच्या आठव्या वर्सा कर्तारपूरच्या लालचंदजी खत्री हाची चली गुजरी हिचेकडेन ताचें लग्न जालें. बापायच्या मरणाउपरांत तो बकाला ह्या गांवांत वचून विरक्त जिवीत जगपाक लागलो.

शिखांचो आठवो गुरू हरकिशन हाच्या मरणाउपरांत १६६४ त तेगबहादूर हाका नववो गुरू म्हणून गादयेर बसयलो. पूण ताचो भाव धीरमल आनी पोरण्या मसंदांनी (धर्मप्रचारकांनी) हे गादयेखातीर संघर्श सुरू केलो. उपरांत तेगबहादूर कांय दीस बकाला हांगा रावन अमृतसराक गेलो. थंय वतकच ताका कळ्ळें, शीख मसंदांनी थंयच्या हरीमंदिराचो ताबो घेतला आनी थंय नाका आशिल्लो भ्रश्टाचार चालू आसा. पूण तो तांकां आळाबंदा हाडूंक शकलोना.

उपरांत तेगबहादूर आपल्या बापायच्या गांवांत किरतपुराक गेलो. थंयूय ताका मसंदांनी आनी भावांनी खूब त्रास दिलो. तेन्ना ताणें आपणाखातीर शिवालीक पर्वतमाळेंत एका नगराची वसणूक केली आनी थंय आपली गादी स्थापून तो धर्मप्रचार करपाखातीर भोंवडी करूंक लागलो. हें नगर आनंदपूर ह्या नांवान शिखांचें नामनेचें आनी पवित्र थळ जालें. पाटणाक ताची बायल बाळंत जावन ताका चलो जाल्ल्याची खबर ताका आसामांत कळ्ळी. होच भुरगो शिखांचो धावो आनी निमाणो गुरू गोविंदसिंग.

तेगबहादुरान आसाम ते काश्मीरमेरेन आपल्या धर्माचो प्रसार करून जायत्या हिंदूंक आनी मुसलमानांक शीख धर्माची दिक्षा दिली. ताची ही करणी औरंगजेबाक आवडली ना. ताणें काश्मीरच्या सुभेदाराक थंयच्या सगळ्या हिंदूंक मुसलमान करपाचो आदेश दिलो. अशा वेळार तेगबहादुरान हिंदूंचें फुडारपण केलें. तेन्ना औरंगजेबान ताका आग्राक धरलो आनी दिल्लीक हाडून चांदनी चौकांत ताचो शिरच्छेद केलो. तेन्ना जैना नांवाच्या एका भंगयान ताची गोमटी उबारून आनंदपूराक हाडली. तेगबहादुराक मारिल्लो त्या जाग्याची 'सीसगंज गुरूद्वारा' म्हणून नामना आसून तें पवित्र मानतात. तेगबहादुराच्या ह्या आत्मबलिदानान पुराय पंजाब खुबळ्ळो. आपलो धर्म आनी स्वाभिमान हांची राखण करपाक जायते शीख तरनाटे फुडें आयले. तेगबहादूर धीरवान आनी हुशार आशिल्लो. पूण तो दयाळू आशिल्लो.

तेगबहादुरान तरेतरेच्या विशयांचेर ११६ पदां रचल्यांत. हीं पदां फुडें गुरू गोविंदसिंगान 'ग्रंथसाहिबात' आस्पावन घेतल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**तेजी** : तेजी हो शब्द 'तेजस' ह्या संस्कृत शब्दावयल्यान आयला. तेजस म्हळ्यार प्रखरताय. अर्थीक नदरेन तेजी म्हळ्यार म्हालाच्या वेपारी दरांत जाल्ली जलद वाड आनी हाका अनुसरून वेपारी घडणुको आनी घडामोडी हांच्यांत जाणवपासारकी जाल्ली वाड. अर्थीक क्षेत्रांत म्हालाच्या उत्पादनांत झपाट्यान वाड जावपी काळ आनी हाका लागून उणी जावपी बेकारी आनी उणे जावपी म्हालाचे दर ह्या काळाकूय तेजी म्हण्टात.

एकुणिसाव्या शेंकड्यासावन आनी दुसऱ्या म्हाझुजाचे पयली हे चड - उतार वा तेजी - मंदी एका थरावीक अंतरान म्हळ्यार सात-आठ वर्सांनी येताली.

**शॅर बाजारांतली तेजी** - ज्या वेळार शॅर बाजारांत शॅरांची मागणी वाडटा आनी विक्रेक आशिल्ल्या शॅरांचो उणाव भासता, तेन्ना शॅरांचे दरेंत कल्पनेभायली वाड जाता. हाकाच शॅर मार्केटांतली तेजी म्हण्टात.

फेब्रुवारी १९९२ वर्सा मुंबयच्या स्टॉक मार्केटांत शॅर बाजारांतली इतिहासीक तेजी जाली. मुंबयच्या शॅर बाजारांत दर ५ ते ७ वर्सांनी तेजी येता. पूण १९९२ वर्सा आयिल्ली ही तेजी कृत्रीम तरेन तयार केल्ली आशिल्ली.

मार्केटांत कांय थरावीक कंपन्यांचे शॅर्स व्हड प्रमाणांत विकते घेवन, मार्केटांत तांची बोली सामकी उणी करप. हाका लागून त्या शेरांचे दर वयर वतात. ही प्रक्रिया जेन्ना मोठ्या प्रमाणांत जाता, तेन्ना सगळो शॅर बाजार वयर येता. जर एकेच कंपनीविशीं अशी गजाल घडली जाल्यार ते कंपनीचे शॅर्स तेजींत आसात अशें म्हण्टात. चड करून आपलो नवो इश्यू बाजारांत येतना आपल्या दलालांचे वतीन ही प्रक्रिया घडोवन हाडपी कंपनी आमकां मुंबयच्या स्टॉक मार्केटांत पळोवंक मेळटा.

- दिनेश रा. मणेरकार

**तेनसिंग, शेरपा :** (जल्म : १९१४, थामी सोला खुंबू, नेपाळ).

पयलो एव्हरॅस्ट जैतीवंत. 'धांग ला' ह्या शेरपा कुटुंबांत ते त्या - चू चे यात्रेक वता आसतना तेनसिंगचो जल्म जालो. तेनसिंग हाचो अर्थ धर्माचो गिरेस्त, सुदैवी अनुयायी असो जाता. हें नांव ताका एका लामान दवरलें. ताचें मूळ नांव नामग्याल वांगडी. थामी हांगा हेर भुरग्यांवांगडा शेतकाम करीत ताचें भुरगेपण गेलें. हेर शेरपांप्रमाणच आपणेंय गिर्यारोहणांत नांव मेळोवचें अशें ताका सदांच दिसतालें. दार्जिलिंगाक वचून लग्न जावन थंय तो स्थायीक जालो.

१९३५ त एरिक शिप्टनचे एव्हरॅस्ट मोहिमेंत वजीं घेवन वचपाची संद ताका मेळ्ळी. 'नॉर्थ कॉल' मेरेन तो सहज गेलो आनी एक उमेदी तरनाटो शेरपा म्हणून ताणें नांव मेळयलें. १९३६ त रटलजचे आनी १९३८ त टिलमनचे एव्हरॅस्ट मोहिमेंतय ताचो आस्पाव जालो. त्याच वर्सा धीटपण, निश्ठा, हुशारी हे खातीर हिमालयन क्लबान दवरिल्लो टायगर हो भोवमानाचो किताब ताका मेळ्ळो. उपरांत तो चित्रळांत तिरिचमिरचे मोहिमेचेर गेलो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत तो थंय अधिकाऱ्यांचे रांदचेकुडींत काम करतालो. थंय तो बर्फावयल्यान निसरपाचें– स्किईंगचें कसब शिकलो. १९४४ त बायल भायर पडटकच तो दार्जिलिंगाक परत आयलो. तो आंग लाहमू हिचेकडेन दुसरे खेपे लग्न जालो.

तेनसिंगची गरीबी आनी कश्टी जिवीत तशेंच आशिल्लें. १९४६ त तेनसिंगान बंदरपूंछ आनी सिक्कीमांतल्या झेमू हिमनदी ह्यो मोहिमो केल्यो. १९४७ त तेनसिंगान आंद्रे रॉकच्या 'स्विस गढवाल' मोहिमेंत वांटो घेवन ६,९४० मी. उंचायेचें केदारनाथ शिखर पार केलें. तेनसिंग आतां शेरपांचो सरदार आशिल्लो. ताणें कांचनजंघा, नेपाळ, हिमालय, बंदरपूंछ, काराकोरम आनी नंदादेवी हांच्या मोहिमांनी वांटो घेतलो. १९५१ चे नंदादेवी फ्रेंच मोहिमेंत ताणें नंदादेवीचें उदेंत शिखर सर केलें.

तेनसिंगान १९५२ त परत एव्हरॅस्टच्या वसंतांतल्या आनी शरदांतल्या स्विस मोहिमांनी वांटो घेतलो. शेरपांचो सरदार म्हणून ताची मागणी वाडत आशिल्ली. २९ मे १९५३ दिसा न्यू झीलंडचो गिर्यारोहक एडमंड हिलरी हाचेवांगडा सकाळीं ११.३० वरांचेर तेनसिंगान एव्हरॅस्ट शिखराचेर पयलें पावल दवरपाचो भोवमान मेळयलो. तेनसिंगान संयुक्त राश्ट्रां, ग्रेट ब्रिटन, नेपाळ आनी भारत हांचे बावटे एव्हरॅस्टाचेर लायले. तेनसिंग आनी हिलरी हांकां सगळ्याक नामना मेळ्ळी. ब्रिटनान 'जॉर्ज पदक', नेपाळान 'नेपाळ-तारा' आनी भारतान 'पद्मभूषण' किताब भेटोवन ताचो भोवमान केलो.

जेम्स रॅम्सी उलमान हाच्या पालवान १९५५ त तेनसिंगान 'टायगर ऑफ ध स्नो' ही आपजीण बरयल्या. गिर्यारोहण करपी मनशांक प्रशिक्षण दिवपाचें काम कांय काळ ताणें केलां.

– कों. वि. सं. मं.

**तेनाली रामकृष्ण :** (जल्म : सु. १४९५; मरण : सु. १५६५).

एक तेलुगू कवी. ताच्या बापायचें नांव रामय्या आनी आवयचें नांव लक्षम्मा. कृष्णा जिल्ह्यांतलें तेनाली हें ताचें जल्मस्थान. तो शैव आशिल्लो आनी ताचें मूळ नांव रामलिंग अशें आशिल्लें. तरणेपणांत तो व्यंकटपतीराय नांवाच्या राजाकडेन आश्रयाक आशिल्लो. हो राजा वैष्णव पंथीय आशिल्लो. ताची मर्जी संपादन करूंक ताणें वैष्णव पंथ आपणायलो आनी रामकृष्ण हें नांवय घेतलें. तेलुगू, संस्कृत भाशांचो तो पंडीत आशिल्लो. ह्या भाशांनी तो काव्यां रचतालो. तरणेपणांतच ताका कुमारभारती अशें नांव पडिल्लें.

ताणें सुर्वेक 'उद्‌भटाराध्यचरित्रम्' हें शैव प्रबंधकाव्य (महाकाव्य) आनी उपरांत 'पांडुरंग महात्म्यमु' हें वैष्णव प्रबंधकाव्य बरयलें. तेनालिरामाच्या काळाविशीं अभ्यासकांमदीं दोन मतां रूढ आसून कांय जाणांच्या मतान तो चंद्रगिरीचो राजा वेंकटपतीराय (१५२५-१६१४) हाच्या दरबारांत जाल्यार कांय जाणांच्या मतान तो कृष्णदेवराय हाच्या दरबारांत कवी आशिल्लो. विनोदी कथा–कल्पना हांचेखातीर आंध्र प्रदेशांत ताका खुबूच नामना मेळ्ळी. विनोदाखातीर 'विकटकवी' म्हणुनूय ताची नामना आसा. ताच्या चातुर्यकथांखातीर ताची बिरबलाकडेन तुळा करतात. ताच्या विनोदी आशयाच्यो जायत्यो कथा आंध्र प्रदेश, कर्नाटक, केरळ, तमीळनाडू प्रदेशांनीय रूढ आसात. ताच्या पांडुरंगमाहात्म्यमूत पुंडलिका वांगडाच निगमशर्मा 'सुशीला' अयुत-नियुत आदी भक्तांच्यो कथा तातूंत आसात. हो ग्रंथ तीर्थक्षेत्राविशीं आसुनूय उच्च अलंकारीक शैली आनी वर्णनप्रधानता हांकां लागून ताका महाकाव्याची योग्यताय मेळ्ळ्या. 'घटिकाचलमाहात्म्य' नांवाचें घटिकाचल क्षेत्राचें महात्म्य वर्णन करपी तीन आश्वासांनी रचिल्लें ताचें आनीक एक काव्य आसा. नांवाचेर 'कदर्पकेतु विलासमु' आनी 'हरीलिला विलासमु' हींय काव्यां आसात. सांगाताक ताच्यो जायत्यो विनोदी आनी चातुर्यकथा आंध्र प्रदेशांत रूढ आसात. कृष्णदेवरायाच्या दरबारांत तो अष्टदिग्गजांतलो एक आशिल्लो अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**तेंफळ :** (मराठी : तिरफळ, त्रिफळ, चिरफळ, ठेसूळ; हिंदी : बद्रंग; कन्नड : जुम्मिना, जिम्मिमर; संस्कृत : तिक्ता; लॅटिन : झँथोझायलम ऱ्हेट्सा; कूळ : रुटेसी).

मध्यम आकाराचें कांटेरी झाड. उदेंत आनी अस्तंत भारतांत चडकरून दाट रानांत हें झाड आसता. ह्या झाडाचे जून सालीवयले कांटे शंकूवरी आसून साल भेगाळ आनी मोव आसता. खांदयो जायत्यो आनी पातळिल्ल्यो आसून तांच्या तोंकाकडेन जायतीं एकाआड एक संयुक्त आनी पिसावरी झुपक्यांनी पानां येतात. फुलां एकलिंगी आनी द्विलिंगी, ल्हान, हळदुवीं आसतात. जुलय - ऑक्टोबर म्हयन्यांमदीं हीं फुलां येतात. फळां शुश्क, वाटकुळीं, पाचवीं आसून तातूंतल्यो बियो वाटकुळ्यो, जांबळट, काळ्यो आनी चकचकीत आसतात. ह्या झाडाचीं हेर शारिरीक लक्षणां रुटेसी वा सताप कुळांत वर्णिल्लेप्रमाण आसात. ह्या झाडाचें लाकूड हळदुवसार आशिल्ल्यान ताका त्या अर्थाचें वंशवाचक नांव दिल्लें आसा. आसामांत ह्या झाडाच्या खोडाचो उपेग करतात. फळांक मिरमिरीत वास येता. ताचो उपेग रांदपांत करतात. तेंफळां घालून केल्ल्या जेवणाच्या पदार्थाक बरो वास येता आनी रुचय बरी येता. कांय पदार्थांक तेंफळ घालेबगर रुचूच येना, देखीक खतखतें, नुस्त्याचें सुकें हुमण आदी. फळांतलें तेल वखदी आसता. जून फळ स्तंभक, उत्तेजक, भूक वाडोवपी आसून संधीवाताचेर म्हॉवावांगडा दितात. मुळाची साल मुत्रपिंडाच्या विकाराचेर उपेगी पडटा.

– कों. वि. सं. मं.

**तेय्यम :** केरळांतलो एक धर्मीक लोकनाच. काली ही केरळांतल्या लोकांची कूलदेवी. थंयचे आदिवासी लोक कालीक खोशी करपाखातीर जो नाच करतात ताका कालियाट्टम वा कळियाट्टम अशें म्हण्टात. कालीवरीच शिव आनी विष्णू हांचेय उपासनेंत ह्या नाचाचो आस्पाव जालो. तशेंच ह्या नाचांत उदरगतय जाली. ह्या सुदारिल्ल्या कळियाट्टमाक तेय्याट्टम वा संक्षेपान तेय्यम अशें नांव मेळ्ळें. तेय्यम म्हळ्यार विणप. तेय्याट्टम नाच करपी लोक हे ताडाच्या पानांच्यो सत्र्यो, शेंदऱ्यो आदी

वस्तू विणटाले. देखून ह्या नाचाक तेय्यट्टम अशें नांव पडलें अशें म्हण्टात. वण्णान, वेलन आनी मलयन ह्या जातींची तेय्यम नाचाखातीर नामना आसा. यक्ष, यक्षिणी, भूतपिशाच्च आनी मोनजात हांचो भेस करून हो नाच करतात. संसर्गीक रोगाची धाम सुरू जातकच तिचेपसून लोकांक त्रास जावंचो न्हय देखून तेय्यम नाच करतात. ह्या वेळार एक नाचपी रसरशिळ्ळ्या कोळशांवयल्यान एकशें एक फावट आरतो परतो चलत वता. उपरांत ह्या नर्तकाक एक कडें इनाम म्हणून दितात. जाका हें कडें मेळटा ताका पणिक्कर (आज्ञा दिवपी) अशें नांव मेळटा. हो पणिक्कर नाचपी उपरांत हेर नाचप्यांक कोळशांचेर लोळपाची आज्ञा दिता.

तेय्यम नाचपी खळीचे दाट भडडे कपडे वापरतात. कमराक माडाच्यो चुड्ट्यो घागऱ्यावरी गुठळायतात. तकलेक मुकूट घालतात. तोंडाक रंग लावन उग्रताय हाडटात आनी आंगार कंवचेचे अलंकार घालतात. ह्या नाचप्यांचे वन्यमुर्ती, ग्राममुर्ती आनी उभयमुर्ती अशे तीन प्रकार आसात. वन्यमुर्ती नाचपी नाच सुरू जावंचे आदी कोंबयाचें वा बोकड्याचें रगत पियेतात. ग्राममुर्ती सोरो पियेतात आनी उभयमुर्ती रगत आनी सोरो दोनूय पियेतात. ह्या नाचाचीं आंगिक, व्याक्षेपक आनी वाचिक अशीं तीन आंगां आसात. राग, आशिर्वाद आदीच्यो ज्यो मुद्रा आसात तांकां आंगिक म्हण्टात. नाच चालू आसतना तालाचेर जें पद्यबध्द उलोवप चलता ताका वाचिक म्हण्टात आनी मदीं मदीं ज्वा, ग्वा, हुएय्, हहह, हीहीही आदी आवाज काडटात ताका व्याक्षेपक म्हण्टात. ह्या नाचाक साथ दिवपाक जें वाद्याचें वाजप चलता ताचीय पद्दत थारिल्ली आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**तेरें :** (पळेयात आळं).

**तेलंग, काशिनाथ त्र्यंबक :** (जल्म : ३० ऑगस्ट १८५०, मुंबय, मरण: १ सप्टेंबर १८९३).

खर बुद्धिमत्तेचो पंडीत, प्राच्यविद्या संशोधक, खांपो कायदेतज्ञ, समाजसुदारक, राजकीय विचारवंत आनी भारतीय कॉंग्रेस पक्षाचो एक संस्थापक. हाचो जल्म मुंबय हांगा एका मध्यम वर्गांतल्या गोंयकार घराण्यांत जालो. ताच्या बापायचें नांव बापुभाई. काशिनाथाच्या बापोलयाक भुरगें नाशिल्ल्यान ताणें काशिनाथाक पोसको घेतलो.

शाळेंत ताचे इंग्लीश आनी संस्कृत हे विशय खूब बरे आशिल्ले. मॅट्रिकेचे परिक्षेंत संस्कृत ही दुसरी भास घेवन पास जावपी हो पयलो विद्यार्थी. फुडें ताणें एल्फिन्स्टन म्हाविद्यालयांत प्रवेश घेतलो आनी १८६८ वर्सा इतिहास आनी अर्थशास्त्र हे विशय घेवन तो बी.ए. जालो. १८६९ वर्सा तो संस्कृत आनी इंग्लीश हे विशय घेवन एम. ए. जालो.उपरांत 'भगवानदास पुरूषोत्तमदास पुरस्कार' ही सामकी कठीण अशी मानिल्ली संस्कृताची परिक्षाय तो पास जालो. सदांच पयल्या क्रमांकान पास जायत राविल्ल्यान ताका जायत्यो शिश्यवृत्त्यो आनी इनामां फावो जालीं. पिरायेच्या बाविसाव्या वर्सा ताणें एल. एल. बी. ची परिक्षा पास जावन मुंबय हाय कोर्टांत वकिलीच्या वेवसायाक सुरवात केली. मजगतच्या काळांत तो भैरवनाथ कानविंदे हाचे पुतळाबेन (अन्नपूर्णाबाई) हे चलयेकडेन लग्न जालो. इ. स. १८६७ ते १८७२ ह्या काळांत तो एल्फिन्स्टन म्हाविद्यालयाचो फॅलो आशिल्लो. पिरायेच्या विसाव्या वर्सा ताणें आदय शंकराचार्याचें चरित्र बरयलें. एकविसाव्या वर्सा तो मुंबय महानगरपालिकेचो वांगडी जालो.

डॉ. बेवर हाचो रामायणाविशींचो सिद्धान्त ताणें पिरायेच्या बाविसाव्या वर्सा खोडून काडलो. तशेंच भगवद्‌गीता ही बायबला वयल्यान रचल्या ह्या लेरिंगेरच्या प्रतिपादनाक मुद्द्यांसयत जाप दिवन ताणें तें मत फट थारायलें.

पिरायेच्या ३२ व्या वर्सा तो १८८२ च्या एज्युकेशन कमिशनाचो अशासकीय वांगडी जालो. ताचे उपरांत दोन वर्सांनी तो मुंबय कायदे मंडळाचो सभासद जालो. ३५ व्या वर्सा ताणें फिरोझशाह मेहता आनी बद्रुद्दिन तय्यबजी हांच्या आदारान बॉम्बे प्रेसिडेन्सी असोसिएशनाची स्थापणूक केली. इ.स. १८८९ वर्सा मुंबय हाय कोर्टाचो न्यायाधीश म्हणून ताची नेमणूक जाली.

हिंदू कायद्यांतल्या सुदारणांचो ताणें पुरस्कार केलो. संमती पिरायेच्या बिलाचोय ताणें नेटान पुरस्कार केल्लो. १५ ते १६ वर्सांमेरेन चलयांचें लग्न जावंचे न्हय अशें ताचें मत आशिल्लें. तो समाजीक सुदारणेचो पुरस्कर्तो आशिल्लो. स्त्रीशिक्षण, विधवाविवाह, स्त्रीविमोचन हे विशीं तो सदांच फुडाकार घेतालो. जातीचीं बंधनां सदळ जावंचीं अशेंय ताचें मत आशिल्लें.

मुंबय कॉंग्रेसची स्थापणूक करपाक ताणें फुडाकार घेतलो. १८८५ - ८९ मेरेन तो कॉंग्रेसीचो चिटणीस आशिल्लो. १८९२ वर्सा ताची मुंबय विश्वविद्यालयाचो कुलगुरू म्हणून नेमणूक जाली. ह्या विद्यापिठाचो तो पयलो भारतीय कुलगुरू.

मराठी, संस्कृत, इंग्लीश ह्या भाशांवांगडाच फ्रेंच, जर्मन ह्यो भाशाय ताका बऱ्यो येताल्यो. कायद्याप्रमाण इतिहास, राज्यशास्त्र, भाशा, साहित्य ह्या विशयांचेरूय ताचो खोलायेन अभ्यास आशिल्लो. संशोधन क्षेत्रांतूय ताणें मोलादीक वावर केला.

न्यायमुर्ती तेलंग हो दादाभाई नौरोजी, डॉ. भाऊ दाजी लाड, विश्वनाथ नारायण मंडलिक हांचे परंपरेंत वाडलो. ताच्या विचारांचेर जॉन स्टुअर्ट मिल, हक्सले आनी चड करून स्पॅन्सर ह्या ब्रिटीश उदारमतवादी विचारवंतांचो प्रभाव पडिल्लो. ताच्या काळांतल्यो विंगड विंगड संस्था आनी चळवळींकडेन तेलंगाचो लागींचो संबंद आशिल्लो. स्टुडंटस् लिटररी अ‍ॅण्ड सायण्टिफिक सोसायटीचो, तो इ.स. १८७२ ते १८८९ मेरेन कारभारी आशिल्लो. ह्या काळांत ताणें स्त्रीशिक्षणाच्या कार्याक गती दिली. मुंबय विद्यापिठाच्या सिनेट आनी सिंडीकेटाचो तो कितलीशींच वर्सां वांगडी आशिल्लो. ताणें तयार केल्ल्या अभ्यासक्रमाच्या आराखड्याक विद्यापिठान इ. स. १८९२ वर्सा मान्यताय दिली.

मुंबय महानगरपालिकेच्या कारभारांत सुदारणा करपाच्या कामांत ताणें मुखेलपणान वांटो घेतिल्लो. बॉम्बे असोसिएशन आनी इस्ट इंडिया असोसिएशन मुंबय फांटयाचो तो कितलीशींच वर्सां वांगडी आशिल्लो. हिंदू समाजांतल्यो सगळ्यो जाती, उपजाती एकठांय हाडपाच्या हेतान इ. स. १८८८ वर्सा ताणें हिंदू युनियन क्लबाची स्थापणूक केल्ली. समाजांत नव्या विचारांचो प्रसार जावन लोकजागृताय जावंची ह्या हेतून ताणें मुंबय हेमंत व्याख्यानमाळ सुरू केली. मराठी भास आनी वाङमय हांचे उदरगतीखातीर ताणें 'महाराष्ट्र भाषा संवर्धक मंडळी' ची स्थापणूक केली. 'शास्त्र व रूढी यांच्याविषयी बलाबल विचार' आनी 'सामाजिक विषयांसंबंधी तडजोड' ह्या धर्मीक सुदारणाविशीं मांडिल्ल्या विचारांचे ताचे मराठी ग्रंथ खूब गाजले. भर्तृहरीची 'नीती व वैराग्य शतके' आनी 'मुद्राराक्षस' नाटक हे ताचे संपादीत ग्रंथ. 'शहाणा नाथन', 'स्थानीक स्वराज्यव्यवस्था' हे ताचे आनीक दोन अणकारीत ग्रंथ आसात. ताचे चडशे ग्रंथ अणकारीत स्वरुपाचे आसात. ताणें इंग्लिशींतूय खूब लिखाण केलां. मॅक्समुल्लरच्या प्राच्य धर्म ग्रंथमाशेंत भगवद्‌गीता आनी अनुगीता हे तेलंग हांणे केल्ले अणकार उजवाडा आयिल्ले. ताचे कांय स्फुट लेख 'जर्नल ऑफ ध रॉयल एशियाटिक

सोसायटी' आनी 'इंडियन अँटिक्वॅरी' ह्या नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयले. ताचीं व्याख्यानां पुस्तक रुपान उजवाडाक आयल्यांत. 'खुला व्यापार की संरक्षण' (१८७७) आनी 'आधी सामाजिक सुधारणा की राजकीय सुधारणा' (१८८५) हीं ताचीं व्याख्यानां खूब गाजलीं.

न्यायमुर्ती तेलंग प्रभावी आनी गोड उलोवपी (वक्तो) आशिल्लो. हिंदू कायदयाचो ताका पुराय अभ्यास आसलो. ताच्या मतान हिंदू कायदयांत जिणेची उदरगत जावपाक तशेंच परिस्थिती वांगडा जमोवन घेवपाक खूब वाव आसा. स्पॅन्सराच्या अज्ञेयवादाकडेन ताचो कल आशिल्लो. आपल्या अल्पायुश्यांत ताणें व्हड वावर करून लोकांचो आत्मविश्वास वाडयलो.

– कों. वि. सं. मं.

**तेलंगण :** दक्षिण भारतांतलो एक वाठार. ह्या वाठारांत दोंगरार कालेश्वर, श्रीशैलम्, भीमेश्वर (द्राक्षाराम) हीं नामनेचीं शिवतीर्थां आशिल्ल्यान ह्या वाठाराक तेलिंगा-त्रिलिंग अशेंय म्हण्टात. तेलंगण हो ताचो अपभ्रंश आसूंक जाय. हो वाठार तमीळनाडू राज्याचे उत्तर ईशान्येक आनी हैदराबादचे दक्षिणेक आनी उदेंतेक पातळ्ळा. हांगा चड करून तेलुगू भासूच उलयतात. इ.स. पयलीं तिसरें शतमान आनी इ.स. तिसऱ्या शतमानामेरेन बौद्ध धर्मीय आंध्र राजांची सत्ता ह्या वाठाराचेर आशिल्ली. तेचपरी तेलंगण हो बहामनी राज्यांतलो तेलुगू भाशीक प्रदेश आशिल्लो आनी गोदावरी न्हंय ही कलिंग देश आनी तेलंगण हांचे मदली शीम मानताले.

सुर्वेक मुसलमानांनी चेन्नईचे ईशान्येक आशिल्ल्या ह्या तेलुगू भाशीक वाठाराक तेलंगण हें नांव दिलें. पूण कांय खेपे कलिंग देश आनी आंध्र राजांनी जिखिल्लो वाठार हांकां आंध्र अशेंय म्हण्टात. जर्मन प्राच्यविदयापंडीत कोनरात पॉइटिंगर हाच्या 'पॉइटिंगर कोश्टकांत' कलिंगाचो उल्लेख नासून 'आंद्री इंडी' हे बोलीचो उल्लेख आसा. पूण टॉलेमी आंध्रा सुवातेर कलिंगाचो उल्लेख करता (इ.स. १५०). पुराणांवरीच प्लिनी आनी ह्युएनत्सांग हाच्या प्रवासवर्णनांत कलिंग आनी आंध्र ह्या दोगांयचोय उल्लेख मेळटा.

१८५७ च्या उठावा उपरांत तेलंगणाच्या वाठाराचो हैदराबाद संस्थानांत आस्पाव केलो. तेलंगण वाठाराचें स्वतंत्र राज्य जावंचें देखून चेन्ना रेड्डी प्रभुतीन जायतो यत्न केल्लो. पूण ताका यश मेळ्ळेंना. निमाणें राज्य पुनर्रचणूक समितीचे शिफारशी प्रमाण नोव्हेंबर १९५६ त आंध्र ११ जिल्हे आनी तेलंगण ९ जिल्हे मेळून आंध्र प्रदेश स्थापन जालें. पूण आंध्रा पसून तेलंगणाक वेगळें करून स्वतंत्र तेलंगण राज्य करपाची चळवळ अजुनूय चालू आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**तेल :** द्रव रुपी, घनरुपी आनी अर्द घनरुपी कार्बन संयुगाचो एक वर्ग. द्रवरुपी संयुगाक सर्वसादारणपणान तेलां म्हण्टात आनी जीं अर्द घन वा पुराय घनरुपी आसतात तांकां चरबी म्हण्टात. बुळबुळीत स्पर्शाची जाणीव दिवपी, उदकांत ना विरगळपी पूण थरावीक कार्बनी पदार्थांत विरगळपी अशा गुणधर्माच्या, मोनजातींत तशेंच वनस्पतींत सांपडपी लिपीड ह्या व्यापक वर्गाचो तेलां आनी चरबी हो एक उपविभाग आसा.

लिपीड वर्गाभायरय आनीक दोन तरांचे तेलाचे प्रकार आसात. वाफेच्या रुपान उडपी तेलां आनी खनीज तेलां. चंदनाचें तेल आनी हेर वासाचीं तेलां पयल्या वर्गांत येतात. पेट्रोल, डिझल सारकिल्लीं तेलां दुसऱ्या वर्गांत येतात. रासायनिक नदरेन दोगांयमदीं फरक नासता. ग्लिसरीन (glycerine) आनी मेदाम्लां (fatty acid) हीं एस्टरां आशिल्ल्यान ताका ग्लीसरायडे (glycerids), म्हण्टात. तेलां शुद्ध रुपान रंगहीन, गंधहीन आनी पारदर्शक आसतात.

तेलां एस्टर वर्गाचीं संयुगां आशिल्ल्यान ताका क्षाराच्या योगान ताचें विच्छेदन (disintegration) जाता. अशे तरेचें विच्छेदन (disintegration), हें उदका वरवीं (जलीय विच्छेदन), आल्कोला वरवीं (आल्कोलीक विच्छेदन) आनी हायड्रोजनावरवीं (हायड्रोजनीय करण) करतात.

**इतिहास :** अन्न, जळण, वंगण, रंग आनी वखद म्हणून तेल आनी चरबीचो उपेग खूब आदीं सावन मनशाक खबर आसा. ख्रिस्ता आदीं १४००त इजिप्ताच्या लोकांनी तेलाचो वंगण म्हणून उपेग केल्ल्याची नोंद मेळटा. होमर हाणें विणकामाक मदत करपी म्हूण तेलाचो उल्लेख केल्लो आसा. प्लिनी (इ.स. २३– ७९) हाणें आपल्या हिस्टोरिया नेचरालीस ह्या रोमन ग्रंथांत मोव आनी घट साबणाचो उल्लेख केला. सव्या शेंकड्यापसून 'टॅम्पेरा' ह्या रंग पद्दतींत तेल आनी चरबी वापरप जाताली. लाकूडकामाक संरक्षण थर म्हणूनय तेलाचो वापर खूब आदींसावन जायत आसा.

भारतांत यज्ञाचे आहुतीखातीर तुपाचो वापर करप जाल्लो. आयुर्वेदांत तुपाक एक शक्तीशाली अन्न घटक म्हळा. एंडेलाचो उपेग रेचक (भायरी) आनी वंगण म्हणून वापरपाची खूब व्हडली परंपरा आसा. चीन, भारत, ग्रीक, रोमन, ईजिप्शीयन ह्या देशांच्या पुर्विल्ल्या इतिहासांत तेल काडपाखातीर वापरिल्ल्या वान (वायण), घाणो, दाब यंत्रासारकिल्ल्या आयुधांची म्हायती मेळटा.

तेलां आनी चरबी ही मोनजात (जलचर आनी स्थलचर) आनी वनस्पतींपसून मेळटा. उदकांतलें सगळे तरेचें नुस्तें तशेंच कुल्लयो, मानग्या सारके हेर प्राणी हांचे कुडींत तेल आनी चरबेचो अंतर्भाव आसता. तेचप्रमाण स्थलचर मोनजातींत सगळ्या तरांच्या आनी सगळ्या आकारांच्या ल्हान व्हड जिवांत (जनावरां, पक्षी, जिवाणीं) चरबी मेळटा. एकंदर कुडिंतली चरबी विशिश्ट अवयवांतली चरबी हांचे वांगडाच सस्तन प्राण्याच्या बाबतींत दुदांतली चरबी मेळटा.

वनस्पतीजन्य तेलां आनी चरबी मुखेल करून फळाचो गर आनी बियांचो गर हांचेपसून मेळटा. तातूंतल्या तातूंत बियांच्या गरापसून मेळपी तेलां आनी चरबेचें प्रमाण चड आसता. कांय झाडांचें खोड, मूळां, फुलां हांचेपसून तेल आनी चरबी मेळटा, पूण तांचें प्रमाण साप उणें आसता.

चरबीयुक्त पदार्थांपसून चरबी/तेल काडपाच्यो वेगवेगळ्यो तरा आसात. रेड रिंग (उकळप) हे पद्दतींत भोवतेक प्राणिजन्य पदार्थांतल्यान चरबी-तेल काडटात. घाणो सारकिल्ल्या पिळवटपी यंत्रांत वा तत्सम दाब यंत्रात वनस्पती जन्य पदार्थांपसून चरबी तेल काडटात. कांय पदार्थांच्या बाबतींत विद्रावकान (Solution) केल्ल्या निष्कर्षणावरवीं (Extraction) तेल चरबी काडटात. प्राथमिक अवस्थेंत तेलां, चरबी अशुद्ध आसतात. उपरांत तांचें शुद्धीकरण करप जाता. खावपाचीं तेलां, चरबी शुद्ध केलेबगर वापरप जायनात.

हायड्रोजनीकरण ही तेल शुद्धीकरणाची एक मुखेल पद्दत जावन आसा. ताचेच जोडयेक विद्रावी उदासिनीकरण (Neutralisation), शीतलीकरण (winterisation), ह्यो पद्दती वापरप जातात.

**उपेग** – तेल आनी चरबी हांचो सगळ्यांत चड उपेग अन्न घटक म्हणून जाता. तेल, तूप, लोणी जशाक तशें वा ताचे पसून तयार केल्ले पदार्थ सर्रासपणान संवसारभरचे लोक वापरतात. दिव्याचें जळण, साबण उत्पादन, मेणवाती, कापड उत्पादन, कागद उत्पादन, सौंदर्य प्रसाधनां उत्पादनां, रंग उत्पादन, प्लास्टिक उत्पादन, रबर उत्पादन, कातडी

उत्पादन, वखदां उत्पादन, जिवनसत्वां उत्पादन आनी हेर उत्पादनांखातीर वापरतात. खनीज तेल मुखेलपणान इंधन (fuel) म्हणून वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**तेली, सदानंद उर्फ गुरुदास रघुवीर** : (जल्म : १० ऑक्टोबर १९३२, दिवचल).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळाव्या थरामेरेनचें शिकप घेतलें. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तशेंच राष्ट्रीय पत्रकां वांटपाचें कामय तो करतालो. पोलिसांनी ताच्या घराचेर धाड घाली आनी चळवळीसंबंदींचें साहित्य जप्त केलें. पोलिसांनी ताका धरलो आनी स म्हयने आग्वाद बंदखणींत दवरलो. १९७४ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**तेलुगू भास** : दक्षिणेंतल्या पांच भाशांतली एक भास. लोकसंख्येचे नदरेन आंध्र प्रदेशाची ही तेलुगू भास द्रवीड भाशा चोम्यांतली पयल्या क्रमांकाची भास आसा. भारतांतल्या भाशांनी तेलुगू ही दुसऱ्या क्रमांकाची भास आसून ती हिंदी फाटल्यान आनी बंगाली भाशेचे पयलीं येता. तिचे दक्षिणेक तमीळ, अस्तंतेक कन्नड आनी मराठी, उत्तरेक मराठी, हिंदी आनी ओडिया ह्यो भासो आसात.

तेलुगू भाशेक आंध्रभास वा 'तेनुगू' अशेंय म्हण्टात. तेनुगू म्हळ्यार म्होंवाभशेन गोड. विजयनगराच्या कृष्णदेवरायान 'तेलुगू' ही भास सगळ्या देशभाशांमदीं गोड अशें म्हळां. तशेंच नामनेचो व्याकरणतज्ञ हॅन्री मॉरिस हाणेंय सगळ्या भारतीय भाशांभितर तेलुगूकूच कर्णप्रिय अशें म्हळां. ब्राऊन ह्या अस्तंती अभ्यासकान तेलुगूक 'उदेंतेकडली इटलियी' अशी वर्णिल्या.

तेलुगू हो शब्द त्रिलिंगां वयल्यान आयला, अशें विद्यानाथाच्या प्रतापरूद्रयशोभूषण ह्या ग्रंथांत म्हळां. त्रिलिंग म्हळ्यार श्रीशैलावरचो मल्लिकार्जुन, कालेश्वर आनी द्राक्षाराममांतले भीमेश्वर हीं तीन लिंगां ज्या प्रदेशांत आसात, त्या प्रदेशाक त्रिलिंग अशें नांव आशिल्लें. ह्या त्रिलिंगाचें उपरांत तिलिंग आनी तेलिंग हे अपभ्रंश तयार जावन तेलिंग हाचेवयल्यान उपरांत तेलुगू हो शब्द आयलो. न आनी ल हांच्या अभेदाक लागून तेनुगू आनी तेलुगू अशे दोन अपभ्रंश रूढ जाले.

तेलुगूचे उत्पत्तीविशीं भाशा शास्त्रज्ञांमदीं खूब मतभेद आसात. कांय जाणांच्या मतान ही भाशा द्रवीड कुटूंबांतली, पूण कांय अभ्यासक तेलुगूक आर्य परिवारांतली मानतात.

भारतांतली तेलुगू भाशिकांची संख्या १९८१ चे जनगणने प्रमाण ४,४७,०७,७९७ इतली आसून गोंयांत ही भास ५,५२७ इतले लोक उलयताले.

**लिखाण आनी उच्चार** - तेलुगू भाशेंत अ, आ, इ, ई, उ, ऊ, ऋ, ॠ, ऌ, ॡ, ए (ऱ्हस्व आनी दीर्घ), ऐ, ओ (ऱ्हस्व आनी दिर्घ) औ हे सोळा स्वर आसात.

**व्यंजनां** - क, ख, ग, घ, ङ, च, छ, ज, झ, ञ, ट, ठ, ड, ढ, ण, त, थ, द, ध, न, प, फ, ब, भ, म, य, र, ल, व, श, ष, स, ह, ळ अशीं चौतीस आसात. तेभायर क्ष आनी ज्ञ हांकांय स्वतंत्र चिन्नां आसात.

स्वरांतले ऋ, ॠ, ऌ हे तत्सम शब्दांच्या लिखाणा पुरतेच आसात. ॡ ह्या दीर्घ स्वराक ऱ्हस्वदीर्घत्वाच्या तत्त्वाप्रमाण अक्षरमाळेंत फकत सुवात आसा. ऋ चो उच्चार रू असो जाता.

तालव्य स्वर इ आनी ए हे आसून अर्दस्वर 'य' हो च-ज हांचेउपरांत आयल्यार ह्या व्यंजनांचो उच्चार तालव्य जाता (देखीक - चक्र, जय हांचेभाशेन) आनी हेरकडेन दंत्य जाता (देखीक - चणो) हांचेभाशेन जाता. श आनी ष ह्या व्यंजनांचो उच्चार तालव्य म्हळ्यार श भाशेन जाता.

तेलगूंत संयुक्त (जोडाक्षरां) व्यंजनां बरोवपाची पद्दत मात्शी किचकटीची आसा. सादारणपणान उपरांतचें व्यंजन पयलींच्या व्यंजनापोंदा बरयतात देखीक - ट/व

**व्याकरण** - नाम - नामांमदीं तीन लिंगां आनी दोन वचनां आसात. नामाच्या एकवचनाक लु हो प्रत्यय लायल्यार भोववचन जाता. देखीक— कलमु - लेखणी, कलमुलु - लेखण्यो. पूण कांय खेपे हाका अपवादूय आसात. देखीक - चेयि म्हळ्यार हात (एक) पूण हाताचें भोववचन करतना चेतुलु करचें पडटा.

नामाक विभक्तीप्रत्यय तशेंच शब्दयोगी अव्यय लावन ताची वाक्यांतली सुवात आनी वाक्यांतलो हेर शब्दांकडेन आशिल्लो तांचो संबंद निश्चीत जाता.

**सर्वनाम** - मुखेल सर्वनामां अशीं आसात -

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| पयलो पुरूश | नेनु 'हांव' | मेमु 'आमी' |
| दुसरो पुरूश | नीवु 'तूं' | मीरू 'तुमी' |
| तिसरो पुरूश | अतनु / आयन 'तो' / वाडु | वारू 'ते' |
| | आमे 'ती' / आदि 'ते' | आवि 'त्यो, ती' |

**क्रियापद** - धातूक 'वु' हो प्रत्यय लायल्यार, क्रियारूप जाता. ह्या क्रियारुपाक पुरूश आनी वचनाप्रमाण प्रत्यय लागतात. 'पोवु' ह्या क्रियापदाचीं चालू वर्तमानकाळचीं रुपां अशीं आसात. 'पो' म्हळ्यार 'वच'.

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प. पु. | पोवुचुन्नानु | पोवुचुन्नामु |
| दु. पु. | पावुचुन्नावु | पोवुचुन्नारू |
| ति. पु. | पोवुचुन्नादु (पु.) | पोवुचुन्नादु |
| | पोवुचुन्नादि (स्त्री.न.) | पोवुचुन्नावि |

क्रियारुपाक 'मु' हो प्रत्यय लायल्यार आज्ञार्थी एकवचन आनी 'दु' हो प्रत्यय लायतकच भोववचन मेळटा. नकारवाचकाखातीर स्वतंत्र प्रत्यय आसात. 'चुन्नानु' हो प्रत्यय होकारवाचक आसून 'तलेदु' हो नकारवाचक प्रत्यय आसा. देखीक - नेनु पोवुचुन्नानु म्हळ्यार 'हांव वता'. नेनु पोवुतलेदु म्हळ्यार 'हांव वचना'. हय वा ना अशी जाप मेळपी प्रस्नवाचक रुपां क्रियापदाचे निमाणे 'आ' हो प्रत्यय लायिल्यान मेळटा. हेर विधानांनी प्रस्नवाचक अव्ययांचो वा सर्वनामांचो उपेग जाता.

तेलुगूंत संस्कृत उतरां खूब प्रमाणांत मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

- सिस्टा राव

**तेलुगू लिपी** : तेलुगू वर्णमाळ ही शास्त्रीय आनी पुराय आसा. चडशा सगळ्या ध्वनींखातीर तेलुगूंत लिपीचिन्नां आसात. हे वर्णमाळेंत ए आनी ओ ह्या स्वरांचे ऱ्हस्व आनी दिर्घ अशे दोन उच्चार आसून ह्या दोगांयखातीर स्वतंत्र लिपीचिन्नां आसात. अर्दअनुस्वाराकूय एक वेगळें चिन्न आसा. रकार दोन तरांचे आसात. तातूंतल्या एकाक रेफ आनी दुसऱ्याक

शकटरेफ अशें म्हण्टात. तेलुगू भाशेचे सगळे शब्द स्वरान्त आशिल्ल्यान ही भास संगिताक खूब उपेगी थारल्या. कर्नाटक संगिताच्या सगळ्या वाग्गेयकारांनी हेच भाशेंत आपल्यो कृती रचल्यात. कन्नड लिपीकडेन हे तेलुगू लिपीचें बरेंच सारकेपण आसा. सुमार ४०० वर्सांपयलीं मेरेन तेलुगू आनी कन्नड ह्या दोनूय भाशांची लिपी एकूच आशिल्ली अशें म्हण्टात. तेलुगू ही ब्राह्मीचे दाक्षिणात्य शैलींतल्यान तयार जाल्या. अस्तंतेकडले वनवासीचे कदंब, बदामीचे पयले चालुक्य, उदेंतेकडले वेंगीचे पयले चालुक्य आनी शालंकायन ह्या राजघराण्यांच्या शिलालेखांनी हे लिपीचें पुर्विल्लें रूप मेळटा. दक्षिण भारतांतल्या पुर्विल्ल्या शिलालेखांनी हे लिपीचो वापर केला पूण त्या शिलालेखांची भाशा मात चडशी संस्कृत आसा. इ.स. चो सव्या ते आठव्या शेंकड्यामेरेनचे तेलुगू भाशेंतले सगळ्यांत पोरणे शिलालेख अनंतपूर आनी कडप्पा जिल्ह्यांतले आसून ते तेरेनाडच्या चोळांचे आसात.



**तेलुगू वर्णमाळ**

इ.स. च्या तेराव्या शेंकड्यासावन तेलुगू आनी कानडी ह्यो दोन लिपी मात्श्या प्रदेशीक भेदाक लागून वेगळ्यो जायत गेल्यो. ह्याच काळांतल्या मंचना नांवाच्या एका तेलुगू कवीन तेलुगू लिपीचो 'आंध्रलिपी' म्हणून उल्लेख केला.

इ.स. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक मुद्रणकलेक सुरवात जातकच ह्या दोनूय लिपींक निश्चीत अशें स्वतंत्र आस्तित्व मेळ्ळें. पूण ताचें उत्पत्तिस्थान एकूच आशिल्ल्यान तशेंच तांच्यांतलो फरक चड जाणवनाशिल्ल्यान ज्या कोणाक हातूंतली एक लिपी वाचूंक येता, ताका दुसरीय लिपी समजूं येता.

– कों. वि. सं. मं.

**तेलुगू साहित्य :** तेलुगू साहित्याच्या इतिहासाचे सदळपणान कालखंड करूंक येतात ते अशे –

१) अज्ञातकाल (इ.स. पयलीं २५० ते इ.स. १०००)

२) पयलो कालखंड (१००१ ते ११५०)

३) दुसरो कालखंड (११५१ ते १५००)

४) तिसरो कालखंड (१५०१ ते १७००)

५) चवथो कालखंड (१७०१ ते १८५०)

६) आर्विल्लो कालखंड (१८५१ ते १९४७)

७) स्वातंत्र्या उपरांतचो कालखंड (१९४७ उपरांत)

**अज्ञातकाल** – इ.स. पयलीं तिसऱ्या शेंकड्यांत आंध्रांत बौद्ध धर्माचो प्रसार वाडूंक लागलो तेन्ना थंयची प्राकृत भास ही बौद्धांच्या प्रचाराची भास जाली आनी निकतीच स्वतंत्र बोलीभास म्हणून अस्तित्व मेळिल्ले तेलुगू भाशेचेरूय हो प्राकृतचो प्रभाव पडलो. इ.स. पयलीं २०० सावन प्राकृतांत बरयल्ल्या, राजकर्त्यांचीं आज्ञापत्रां, दानपत्रां ह्या लेखांनी आनी 'गाहा सतसई' सारकिल्या ग्रंथांनीय कांय तेलुगू शब्द मेळटात. रेनाटी चोलकालीन कोरांतिल्ल्या लेखांनी तेलुगू शब्द आयिल्ले. ह्याच वंशातल्या धनंजयाचो 'कोलमल्ला कोरांतिल्लो लेख' हो इ.स. ५७५ तलो पयलो तेलुगू लेख. णवव्या शेंकड्या पयलींचे कोरांतिल्ले लेख गद्य आसून गुणग विजयादित्याचे राजवटींतल्या 'अद्दंकी कोरांतिल्ल्या लेखांत' पयलें तेलुगू पद्य आसा. राजाश्रयाक लागून तेलुगूचे उदरगतीक अनुकूल परिस्थिती निर्माण जाल्ली अशें दिसता.

**पयलो कालखंड** – कालखंडाचे सुर्वेक चालुक्य नरेश राजराज हो आंध्र प्रदेशाचेर राज्य करतना नन्नय्यभट्ट हो महाकवी ताचो कुलगुरू आशिल्लो. राजराजाचे आज्ञेन नन्नय्य हाणें तेलुगू भाशेंत महाभारताचो अणकार केलो. ताचे पयलीं सुमार २५० वर्सां कन्नड महाभारत रचिल्लें. नन्नय्य हो संस्कृत आनी तेलुगूचो पंडीत आशिल्ल्यान ताणें त्या काळांतल्या लोकसाहित्याच्या आदारान संस्कृत आनी देशी शब्दांचो आनी वाक्प्रचारांचो बरो उपेग केलो. पूण सभा आनी अर्दें वनपर्व इतलो अणकार जातनाच ताका मरण आयलें. हो महाभारताचो अर्दोच अणकार लेगीत तेलुगू भाशेंत खूब मोलादीक आसा. ताकाच लागून नन्नय्याक तेलुगू भाशेचो आदिकवी ही उपाधी मेळ्ळ्या. कांय विद्वानांच्या मतान 'आंध्रशब्दचिंतामणी' हें तेलुगूचें पयलें व्याकरण नन्नय्यानूच बरयलां. आपल्या 'कुमार संभव' ह्या ग्रंथांत नन्नेचोड ह्या नन्नय्याच्या काळांतल्या एका कवीन देशी शैली आपणावन वाक्प्रचार आनी म्हणींचो चड उपेग केला. ह्याच काळांत बेमुलवाडा भीमकवीन राघव-पांडवीय, शतकंठरामायण आनी नृसिंहपुराण ह्या ग्रंथांची रचना केली.

**दुसरो कालखंड** – नन्नय्यभट्टाचो, महाभारताचो अर्दो अणकार उपरांत तेराव्या शेंकड्यांत तिक्कन्न सोमयाजी हाणें सुरू केलो. होय एक तेलुगू भाशेचो म्हाकवीच. हाका नेल्लोरचो राजा मनुमसिद्धी हाचो आश्रय आशिल्लो. वनपर्व हें अशुभ पर्व आशिल्ल्यान नन्नय्यभट्टाक मरण आयलें अशी त्या काळांतल्या विद्वानांची समजूत आशिल्ली. तेखातीर तिक्कन्नान तें अर्दें वनपर्व तशेंच सोडून आपल्या अणकाराक विराटपर्वासावन आरंभ केलो आनी थारायल्ल्या काळाभितर ताणें महाभारत पुराय केलें. मनुमसिद्धीन खोशयेन ताका 'कविब्रह्म' अशी पदवी दिली. उपरांत राजकीय घडणुकांक लागून तिक्कन्नाक तें अर्दें वनपर्व मात पुराय करूंक मेळ्ळेंना. तें काम उपरांत इ. स. च्या १४ व्या शेंकड्यांत यर्राप्रगड ह्या कवीन पुराय केलें. ह्या कवीक अन्नवेम्मा रेड्डी ह्या राजाचो आश्रय आशिल्लो. यर्राप्रगडान ही रचना श्लोकरुपान करीनासतना प्रबंधरुपान केली. तेन्नासावन ताका प्रबंधपरमेश्वर अशी पदवी मेळ्ळी. ह्या पुराय तेलुगू महाभारताक लागून नन्नय्य, तिक्कन्न आनी यर्राप्रगड हे तीन महाकवी आंध्रांत कवित्रय म्हणून वळखूंक लागले. ह्या तिगांयची स्वतंत्र आनी मोलादीक अशी वेगळी ग्रंथरचना लेगीत आसा. नन्नय्यभट्ट हाणें इंद्रसेनविजयमू आनी चामुंडिकाविलासमू हीं काव्यां; तिक्कन्नान निर्वचनोत्तररामायण, कविवाग्बंधनमू, विजयसेनमू आनी कृष्णशतकम् हीं काव्यां आनी यर्राप्रगड

हाणें रामायणमू, लक्ष्मीनृसिंहपुराणमू, हरिवंशमू हीं काव्यां रचल्यांत.

ह्याच काळांत रामायणाचोय अणकार जालो. भास्कर हो कवी आनी ताचे शिश्य हाणीं सगळ्यांची चंपूपद्दतीन रामकथा बरयली. ह्या रामायणाक भास्कर रामायण अशें म्हण्टात. बुद्धरड्डी ह्या कवीन ह्याच कालखंडांत 'रंगनाथरामायण' हें रामायण बरयलें.

आनिकूय कांय नामनेचे कवी ह्या कालखंडांत जावन गेले आनी ताणीं तेलुगू भास संपन्न केली. तातूंतलो पालकुरिती सोमनाथ हो बाराव्या शेंकड्यांतलो वीरशैव कवी वरंगळच्या प्रतापरूद्र राजाचो आश्रित आशिल्लो. ताणें 'पंडिताराध्यचरित्रम्' आनी 'बसवपुराणमू' हे दोन ग्रंथ बरोवन वीरशैव पंथ आंध्रांत लोकप्रिय केलो. ह्या कवीन आपले हे दोनूय ग्रंथ द्विपदा नांवाच्या छंदांत बरयल्यात.

तेलुगू साहित्यांत मार्गपरंपरा आनी देशीपरंपरा अशो दोन परंपरा मानतात. पुराण प्रबंध हें साहित्य मार्गपरंपरेंत येता आनी द्विपदा साहित्य हें देशीपरंपरेंत येता. पालकुरिती सोमनाथ हो देशीपरंपरेचो खांबो मानतात.

तेलुगू भाशेंत शतकसाहित्याचो उगम ह्याच कालखंडांत जालो. तेलुगूच्या चडशा सगळ्या नामनेच्या कवींनी शतककाव्य बरयलां. संशोधकांच्या मताप्रमाण तेलुगूंत सुमार अडेज हजार शतककाव्यां रचल्यांत. ह्या सगळ्यांत भद्रभूपतीचें सुमतिशतक चड परिचीत आसा.

**तिसरो कालखंड** – श्रीनाथ ह्या म्हाकवीक ह्या कालखंडाचो मुकुटमणी मानतात. पल्नाटी वीरचरितम हें ताचें द्विपछंदांत बरयल्लें अमरकाव्य. तशेंच मरुत्तराटचरित, शालिवाहनसप्तशती, शृंगारनैषध, हरविलासमू, भीमपुराण, काशीखंड हीं ताचीं कांय काव्यां. अन्नमाचार्य हो ह्याच काळांतलो एक उल्लेखनीय कवी. ताणें तिरुपतीच्या व्यंकटेशाची तोखणाय करून ताच्या लीलांचें वर्णन करपी ३२,००० पद्यां बरयल्यांत अशें सांगतात. अन्नमाचार्याची खाशेली पद्यात्मक रचना आपणावन भागवता सारकिल्या म्हान ग्रंथाचो अणकार करपी हाचेफुडलो कवी म्हळ्यार बम्मेर पोतन्न. ताच्या ह्या भागवतांत ३०,००० पद्यां आसात.

ह्याच कालखंडांत कृष्णदेवराय हाची सत्ता गाजताली. दक्षिणेंतले कवी ताका 'आंध्रभोज' म्हण्टात. ताणें संस्कृत भाशेंत कांय काव्यां आनी नाटकां रचल्यांत, पूण तेलुगू भाशेंतलें 'आमुक्तमाल्यदा' हें ताचें उल्लेखनीय काव्य आसा. ताच्या दरबारांत आठ कवी आशिल्ले. तांकां अष्टदिग्गज म्हणून पाचारताले. तांचीं नांवां अशीं आसात – अलसानी पेदन्न, नंदी तिमन्न, धूर्जटी, मदयागारी मलयन्न, रामभद्र, रामराजुभूषणमू, पिंगळी सुरन्न आनी तेन्नाली रामकृष्ण. अलसानी पेदन्न हाणें 'मनुचरित्र' नांवाचें काव्य बरयलें. पेदन्नाचे काव्यगूण पळोवन कृष्णदेवरायान ताका 'आंध्रकवितापितामह' अशी पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो. ताचे उपरांत नंदी तिम्मन्नान 'पारिजातापहरण' हें काव्य बरयलें. धूर्जटी हाणें 'कालहस्तीमाहात्म्यमू' हें काव्य आनी एक शतककाव्य बरयलें. मलन्न हाणें 'राजशेखरचरित्र' हे काव्य बरयलें. अय्यल राजू रामभद्र हाणें 'रामाभ्युदयमू' हें काव्य आनी कृष्णदेवरायाच्या 'सकलकथा सारसंग्रह' ह्या संस्कृत पुस्तकाचो अणकार केलो. पिंगळी सुरन्न हाणें 'राघवपांडवीयमू' हें दोनअर्थी काव्य बरयलें. ह्या काव्याचो एक अर्थ रामायणाक आनी दुसरो अर्थ महाभारताक लागता. ताचें 'कळापुर्णोदयमू' हें दुसरें एक व्हड प्रबंधकाव्य आसा. तेन्नाली रामकृष्ण ह्या साहित्यकारान 'पांडुरंगमाहात्म्य' आनी 'उद्भटाराध्यचरित्र' अशीं दोन काव्यां बरयलीं. तेन्नालीक 'विकट कवी' अशेंय म्हण्टात.

पिल्लमर्री पिनवीरभद्र हाणें 'शकुंतला परिणयमु' हो काव्यग्रंथ बरयलो. मोल्ल वा मोल्लांबाप्रभृती कवयित्री ह्याच काळांतली. वेमना आनी रामदास वा कंचेर्ल गोपना हाणीं विंगडविंगड विशयांचेर शतककाव्यां रचलीं. शहाजी विजयराघव नायक, चेमकूर वेंकटकवी, रंगाजम्म, त्यागराज हे ह्या कालखंडांतले नामनेचे साहित्यकार आसात.

'यक्षगान' हो नृत्यनाट्यप्रकार ह्याच काळांत रूढ जालो.

**चवथो कालखंड** – ह्या काळांत कूचिमंची तिम्मकवी हाणें शतक, दंडक आनी प्रबंधकाव्यां वांगडा लक्षणग्रंथ आनी रामायण बरयलें. कंकंटी पापराजू हाणें उत्तररामायण बरयलें. 'आंध्रभाषापर्वमु' नांवाची निघंटूची रचनाय ह्या काळांत जाली. विलासी राजांक संतुश्ट करपाखातीर कूचिमंची जग्ग, आडिदमू सुरकवी, पिंडिप्रोलू लक्ष्मणकवी हाणीं श्रृंगारीक रचना केल्यो. क्षेत्रय्य, त्यागराज आनी लिंगमूर्ती हाणीं भक्तिकाव्य रचलें. ह्या कालखंडाच्या शेवटाक आंध्राचेर इंग्लिशांचो अंमल सुरू जालो. तांचेवांगडा थंय क्रिस्तांव मिशनरीय आयले. तेलुगू पंडितांच्या आदारान ताणीं व्याकरण, छंदःशास्त्र ह्या विशयांचेर ग्रंथ निर्माण केले. नामनेचो कवी वेमन्न हाच्या कवितांचो इंग्लीश अणकार करून ताणीं अस्तंती लोकांक तेलुगू वाङ्मयाची वळख करून दिली. मिशनऱ्यांनी बायबलाचो तेलुगूंत अणकार केलो. पिंगळ यल्लय्य हाणें तेलुगू भाशेंत क्रिस्तचरित्र बरयलां.

**आर्विल्लो कालखंड** – ह्या देशांत इंग्लीश राजवट थिरावतकच लेगीत परंपरागत तेलुगू साहित्य निमार्ण जायत आशिल्लें. संस्कृत नाटकां तशेंच धर्मीक ग्रंथांचे तेलुगूंत परतून अणकार जाले. श्रीपाद कृष्णमूर्तिशास्त्री हाणें रामायण, महाभारत, भागवताभायर प्रबंध, नाटकां, गद्यग्रंथ मेळून शंबरावयर ग्रंथ बरयले. कंदुकूरी वीरेशलिंगम पंतुलू हाणें कादंबरी, कथा, प्रहसनां, नाटकां, टिका, चरित्र, आत्मचरित्र ह्या विंगडविंगड साहित्यप्रकाराची तेलुगूंत बसका घाली. तिरुपती – वेंकट – कवुलू हाणें ग्रंथरचने वांगडाच शीघ्रकवित्वावरवीं लोकांत काव्याची गोडी निर्माण केली. इंग्लीश कवींचें अनुकरण करून भावकवितेची बसका घाली आनी कथात्मक लघुकाव्य, खंडकाव्य, आत्मनिश्ठ काव्य, सैमीक काव्य आनी गुढकाव्याची निर्मिती केली. गुरजाड वेंकट अप्पाराव आनी रायप्रोलू सुब्बराव हांकां आर्विल्ल्या तेलुगू साहित्याचे जनक मानतात. श्रीरंगम् श्रीनिवासराव हाचो आर्विल्ल्या प्रगतिशील कवींभितर सगळ्यांत पयलीं उल्लेख करचो पडटा.

आर्विल्या काळांत, इंग्लीश शिक्षण, मुद्रणालयां, खबरांपत्रां, नेमाळीं, साहित्यसंस्था, नाट्यसंस्थां हांकां लागून तेलुगू साहित्याचे उदरगतीक खूब वाव मेळ्ळो.

**काव्य** – एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धामेरेन तेलुगू साहित्य चडशें पद्यात्मक आशिल्लें. पूण उपरांत हेर आंगांनीय ह्या साहित्याची वाड जाली. नवयुगाचे सुरवेक कांय विद्वान कवी जावन गेले. तातूंत मतुकुमल्ली नृसिंहकवी चड उल्लेखनीय आसा. गिडुगू वेंकट राममूर्ती हाणें सामान्य लोकांचे भाशेंतूच काव्यरचना केली. ह्याच काळांत म्हाकाव्याचेय कांय अणकार जाले. ह्या अणकारप्यांभितर श्रीपाद कृष्णमूर्तिशास्त्री, दासू श्रीरामकवी, गोपीनाथ, वाविलीकोलनू सुब्बाराव,जनमंची शेषाद्री शर्मा हे मुखेल आसात.

विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक देशांत सुरू जाल्ल्या राजकीय आनी समाजीक आंदोलनांचोय काव्याचेर प्रभाव पडलो. देशजागृताये खातीर आनी अनिश्ट रुढी निवारपाखातीर प्रभावी काव्यां बरोवप जालीं. दिवाकर्ल तिरुपतीशास्त्री आनी चेळ्ळपिळ्ळ वेंकटशास्त्री हे दोन प्रतिभाशाली कवी-इश्टांनी 'तिरुपति वेंकटकवुलू' ह्या जोड नांवान ध्येयवादी काव्याची रचना केली. ह्या दोन कवींक लागून, आंध्रांत 'शतावधान' पद्दत जिती उरून लोकप्रिय जाली. हांच्याच संप्रदायांतले वेलूरी शिवरामशास्त्री, अव्वारी

सुब्रह्मण्यशास्त्री आनी दोमा वेंकटस्वामी गुप्त ह्या कवींकूय खूब नामना मेळ्ळी.

१९२० वर्साच्या अदमासाक तेलुगू कवींचो नवो संप्रदाय निर्माण जालो. ताका 'भावकविता' संप्रदाय अशें नांव मेळ्ळें. रायप्रोलू सुब्बाराव हो ह्या संप्रदायाचो प्रर्वतक. ताच्या काव्यांत प्रेम आनी सौंदर्य हांचीं उदात्त रुपां दिसतात. ओलेटी, पार्वतीशम् आनी बालांत्रम् वेंकटराव हे दोनूय कवी 'वेंकटपार्वतीश्‍वर' ह्या जोडनांवान वळखतात. अब्बुरी कृष्णराव, देवुलपल्ली वेंकटकृष्णशास्त्री हेय कांय मुखेल कवी आसात. देशभक्ती, सैमीक सौंदर्य, ईश्‍वरभक्ती, प्रेमभावना अशा विंगड विंगड विशयांचेर काव्य करपी कवींभितर विश्‍वनाथ सत्यनारायण, पिंगली लक्ष्मीकांतम्, काटुरी वेंकटेश्‍वरराव, गुर्रम्, जोषुआ, अनंतपंतुलू रामलिंगस्वामी, माधवपेद्दी बुच्चीसुंदररामशास्त्री, तुम्मल सीताराममूर्ती चौधरी ह्या कवींचो आस्पाव जाता. विश्‍वनाथ सत्यनारायण हाका १९७१ वर्सा ताच्या 'रामायण कल्पवृक्षमु' काव्याक ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळा. 'अभ्युदयकवी' ह्या नांवान वळखुपी संप्रदायांत, समाज परिवर्तनवादी, मानवतावादी अशे कवी आसून श्रीरंगम् श्रीनिवासराव वा 'श्रीश्री' हो ह्या संप्रदायाचो मुखेल आशिल्लो.

तेलुगूंतल्या कांय खाशेल्या काव्यप्रकारांभितर शतकसाहित्य, गीतसाहित्य, किर्तन, उदाहरण आनी दंडक, भावकविता हांचो आस्पाव जाता. तेलुगू साहित्यांत प्रबंधा फाटल्यान शतकसाहित्याक म्हत्वं दिवप जाता. ताचे विशय स्वतंत्र आसतात. तेलुगूंतली ही शतकपरंपरा एकुणिसाव्या शेंकड्यामेरेन चालू आशिल्ली. गीतसाहित्यांतलीं गितां तीन प्रकारांचीं आसतात - १) श्रमिकगितां, २) वीररस वा हास्यरसयुक्त गितां आनी प्रणयगितां ३) भक्तीगितां. अशा गितांच्यो कार्यावळी अभिनयासयत 'बुर्रकथा' ह्या नांवान खेडेगांवांतल्यान चलतात. राजकीय पक्ष आपल्या प्रचाराखातिरूय ह्या गितांचो उपेग करतात. तेराव्या शेंकड्यासावन तेलुगूंत किर्तनां बरोवपाक सुरवात जाली.

कृष्णकवी हो तेलुगूंतलो पयलो किर्तनकार. पंदराव्या शेंकड्यांतल्या ताळ्ळपाक अन्नमाचार्य हाणें किर्तनाक शास्त्रशुद्ध रूप दिलें. भद्रचलम् रामदास आनी सुब्रह्मण्य हे आनीक दोन म्हत्वाचे किर्तनकार आसात. राधाकृष्णाच्या नांवान अश्‍लील श्रृंगारवर्णन करपी पदांक 'दास किर्तनां' म्हण्टात. भक्तशिरोमणी त्यागराजाच्या किर्तनांनी साहित्य आनी संगीत हांकां सारकेंच म्हत्व आशिल्ल्यान तांकां 'कृती' अशें नांव आसा. उदाहरण हो काव्यप्रकार फकत तेलुगुंतूच आसा. सोमनाथाचें 'बसवोदाहरण' हें ह्या प्रकाराचें पयलें काव्य.

दंडक होय प्रकार संस्कृतांतल्यान फकत तेलुगूंत आसा. शृगारदंडक आनी प्रकीर्णक म्हळ्यार भोवभाशीक अशेय हातूंत प्रकार आशिल्ले. ७,००० ओळींचें एक दंडक रामायणय तेलुगूंत जालां. गुरजाड वेंकट अप्पाराव आनी रायप्रोलू सुब्बराव हांकां भावकविता काव्यप्रवाहाचे जनक मानतात. मुनिमाणिक्यम् नरसिंहराव, विश्‍वनाथ सत्यनारायण, अडिवी बापिराजू, शिष्ट्ला उमामहेश्‍वरराव, श्रीरंगम् श्रीनिवासराव, श्रीरंगम् नारायणबाबू, नारायण रेड्डी, भागवतुल शंकरशास्त्री 'आरूद्र' हाणींय हो काव्यप्रकार हाताळ्ळा.

**नाट्य** - एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन तेलुगूंत नाटक नाशिल्लें. १८७५ वर्सा वाविलाल वासुदेवशास्त्री हाणें ज्युलियस सीझरचें तेलुगूंत रुपांतर केलें आनी एक समाजीक नाटकूय बरयलें. उपरांत तेलुगूंत संस्कृत, बंगाली, हिन्दी आनी शेक्सपिअरचीं नाटकां अणकारलीं.

धर्मावरम् रामकृष्णाचार्य आनी कोलाचलम् श्रीनिवासराव हाणीं पयलीं स्वतंत्र आनी तरांतरांचीं नाटकां बरोवन प्रयोग केले. पानुगंटी लक्ष्मीनरसिंहराव हाणें तीस नाटकां बरयलीं. गुरजाड अप्पाराव, विश्‍वनाथ सत्यनारायण, आचार्य आत्रेय, शिवराजू वेंकटसुब्बराव 'बुच्चिबाबू' हाणींय दर्जेदार नाटकां बरयलीं. १९१० वर्सासावन तेलुगू एकांकिका बरोवपाक सुरवात जाली. तल्लावज्झल शिवशंकरशास्त्री हाणें संगितिकांचो प्रयोग केलो. पी. व्ही. राजमन्नार, मुद्दुकृष्ण सामिनेनी आनी चलम् हाणीं तेलुगूंतल्यो पयल्या दर्जाच्यो एकांकिका बरयल्यो. १९४३ उपरांतच्यो एकांकिका चड वास्तववादी आसात. बुच्चिबाबूंच्या दारिनपोये दानय्य, उमर खय्याम आनी शिष्यरक्षिता ह्या एकांकिकांक खूब नामना मेळ्ळी. गंगाधर हाचे 'प्रार्थना' एकांकिकेक आंध्र नाटक-कला परिशदेचें इनाम फावो जालें. गोराशास्त्री, बुच्चिबाबू, मुनिमाणिक्यम्, गिडलुरी सूर्यम् आनी कृष्णमूर्ती हे ह्या क्षेत्रांतले नामनेचे लेखक.

**कादंबरी** - १८७३ वर्सा कडवल्ली रामचंद्रुडू हाची 'धर्मवती विलासमु' ही पयली कादंबरी उजवाडा आयली. ताचे हे कादंबरीक तशेंच 'मालती माधवमु' आनी 'लक्ष्मीसुंदर विजयमु' ह्या कादंबरींक 'चिंतामणि' नेमाळ्याचीं इनामां फावो जाल्यांत १८७८ वर्सा वीरेशलिंगम् पंतुलू हाची 'राजशेखर' ही कादंबरी 'विकार ऑफ वेकफिल्ड' च्या आदारान बरयली. ताणें नामनेच्या बंगाली कादंबऱ्यांचेय तेलुगू अणकार केले. विश्‍वनाथ सत्यनारायण हाचे 'वेयी पडुगुलु' हे उल्लेखनीय कादंबरेंत समाजीक, धर्मीक आनी राजकीय परिस्थितीचें परिणामकारक अशें चित्रण दिसता. नोरी नरसिंहशास्त्री हाणें उत्कृश्ट इतिहासीक कादंबऱ्यो बरयल्यात. चिलकमूर्ती लक्ष्मीनरसिंहम् पंतलू हाणें १८९४ वर्सा 'रामचंद्र विजयमु' आनी उपरांत हेमलता, कर्पूरमंजरी, अहल्याबाई, सौंदर्यतिलक, गणपती अशो स्वतंत्र आनी इतिहासीक कादंबऱ्यो बरयल्यो. ह्याच अदमासाक इतिहासीक, समाजीक कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यो. तशेंच इंग्लीश, बंगाली कादंबऱ्यांचेय तेलुगूंत अणकार जाले. तातूंत भोगराजू नारायणमूर्ती हाच्यो विमलादेवी (१९१०) आनी 'अस्तमयमु' (१९१६); वेल्लाल सुब्बाराव हाची 'राणी संयुक्ता' केतवरापू वेंकटशास्त्री हाची 'रायचूरुयद्धमु' आनी दुग्गिराल राघवचंद्रय्या हाची 'विजयनगरसाम्राज्यमु' ह्यो उल्लेखनीय कादंबऱ्यो आसात. गुडिपाटी वेंकटाचलम् हाणें सामाजिक कादंबऱ्यो आनी चिलकमूर्ती लक्ष्मीनरसिंहम्, मुनिमाणिक्यम्, नरसिंहराव हाणीं विनोदी कादंबऱ्यो बरयल्यो.

**लघुकथा** - लघुकथा हो वाङमयप्रकारूय अस्तंती प्रभावान आयला. मॉपासां, सोमरसॅट मॉम, ओ हॅन्री हांच्या कथांचे अणकार तेलुगूंत जाल्यात. सगळ्यांत पयलीं गुरजाड अप्पाराव हाणें स्वतंत्र कथा बरयल्यो. ताचो 'अणिमुत्यालु' हो कथांझेलो प्रसिद्ध आसा. वेलूरी शिवरामशास्त्री हाणें पुराणीक आनी समाजीक विशयांचेर कथा बरयल्यात. श्रीपाद सुब्रह्मण्यशास्त्री, विश्‍वनाथ सत्यनारायण, चलम् आनी चिंता दीक्षितुलू ह्या पयल्या श्रेणीच्या कथाकारांसयत हेर तेलुगू कथालेखकांनीय तेलुगू कथावाङमयांत भर घातल्या. कविकोंडल वेंकटराव हाणें गांवगिरे जिणेचेर कथा बरयल्यात. अडिवी बापिराजू ,सुरवरम् प्रतापरेड्डी, जमदग्नी हाणीं तेलुगू कथेक भावप्रधानता दिल्या जाल्यार मुनिमाणिक्यम् नरसिंहराव आनी मोक्कपाटी नरसिंहशास्त्री हाणीं विनोदी कथा बरयल्यात. पालगुम्मी पद्मराजू हाचे 'तुफान' हे कथेक संवसारीक कथासर्तींत दुसरें इनाम फावो जालें. कोडवटिगंटी कुटुंबराव, बुच्चिबाबू, मल्लादी रामकृष्णशास्त्री हे कांय नामनेचे कथालेखक.

**हेर साहित्य** - जेझू क्रिश्त, व्हिक्टोरिया राणी तशेंच कांय तेलुगू कवी हांचीं चरित्रां बरोवन वीरेशलिंगम्, पंतलू हाणें चरित्रवाङमयाचें मुळावण घालें. हाचेउपरांत देशीविदेशी म्हापुरसांचीं चरित्रां तेलुगूंत बरोवप जालीं.

निबंध, साहित्यसमीक्षा आनी संशोधनात्मक वाङमयाच्या क्षेत्रांत

वीरेशलिंगम् हाचेंच सगळ्यांत पयलीं नांव घेवचें पडटा. ताचे निबंध चडशे स्त्रीशिक्षण आनी समाजसुदारणा ह्या विशयांचेर आसात. 'कोक्कोंड वेंकटरत्नकविकृत विग्रहतंत्रविमर्शनमु' हो ताचो पयलो समीक्षाग्रंथ आसा. गोपालराव नायडू सारकेल्यांनी भाशेतिहास, गद्यवाङमयसमिक्षा आनी कांय कवी आनी काव्यां हांचेविशीं ग्रंथ बरयले. उपरांत खाशेले काव्यप्रकार, काव्यग्रंथ उजवाडा आयले. चांगटी शेषय्य हाचो 'आंध्रकवितरंगिणी' हो ग्रंथ बारा खंडांनी आसा. श्रीमती उटकूरी लक्ष्मीकांतम्मा हिणें फकत आंध्र कवयित्रींच्या काव्याचो परामर्श घेतला. तेलुगू भाशा समितीन कांय संशोधनात्मक ग्रंथांक पुरस्कार दिल्यात.

नव्यांध्रसाहित्यवीथुलु, नव्यकवितानीरांजनमु, नेटिकालपुकवित्वमु आनी आधुनिकांध्रविकासवैखरी हे आर्विल्ल्या तेलुगू काव्यावयले नामनेचे समिक्षाग्रंथ आसात. जोन्नलगडू सत्यनारायणमूर्ती हाचो 'साहित्ययत्त्वविमर्श' होय एक म्हत्वाचो ग्रंथ.

पुर्विल्ल्या काळांत धर्म, गणित, ज्योतिश ह्या विशयांचेर कोशरचना जाल्या. विसाव्या शेंकड्यांत भाशा, साहित्य, अर्थशास्त्र, तत्त्वज्ञान, विज्ञान ह्या विशयांचेरूय तेलुगू कोश तयार जाल्यात. आंध्र सारस्वत परिशद, तेलुगू भाशा समिती, आंध्र प्रदेश साहित्य अकादमी, आंध्र प्रदेशांतल्या विद्यापिठांचे संशोधन विभाग हाणीं साहित्येतिहास, समिक्षा, विशिश्ट कवींचें साहित्य, विंगडविंगड कोश ह्या प्रकारांनी मोलादीक ग्रंथरचना केल्या.

**स्वातंत्र्या उपरांतचो कालखंड** – ह्या काळांतल्या साहित्याचेर, बऱ्याचशा राजकीय, समाजीक घडणुकांचो परिणाम जाला. देखीक – राश्ट्रपित्याची हत्या, नवी राज्यघटना, आंध्र प्रदेशाची स्थापणूक, आंध्र आनी तेलंगण वाठारांतलीं तीन चार आंदोलनां, विश्वनाथ सत्यनारायण हाका मेळिल्लो भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार, विश्व तेलुगू संमेलन आनी हेर स्वातंत्र्या उपरांतच्या तेलुगू साहित्याचो नियाळ ह्या साहित्य प्रकारांनी घेवं येता.

**काव्य** – विश्वनाथ सत्यनारायण हाका 'श्रीरामायण कल्पवृक्षमु' ह्या महाकाव्याखातीर, भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जालो. मधुनापंतुलू सत्यनारायण शास्त्री हाचो 'आंध्रपुराणम्' होय असोच एक काव्यग्रंथ आसा. पूण उपरांत ह्या भावकवितेच्या प्रकाराक फाटीं उडोवन, 'अभ्युदय कविता' मुखार आयली. श्रीरंगम् श्रीनिवासराव हो ह्या प्रकाराचो मुखेल आसून शिष्ट्ला उमामहेश्वराव आनी रूद्रज्योतिकार श्रीरंगम् नारायणबाबू हाणीं ताका नवें मोडण दिलें. पट्टाभी, शंकरशास्त्री भागवतुल हाणीं नवे भाशाप्रयोग आनी प्रतिकां वापरलीं. अनिशेट्टी, सोमसुंदर, रेंतल, बाळ गंगाधर टिळक(१९१९-१९६६), कुंदुर्ती एल्चुरी, अब्बूरी वरदराजेश्वरराव हे ह्या संप्रदायाचे आनीक कांय नामनेचे कवी आसात. ह्या अभ्युदय कवींपरस चड खर वृत्ती आनी भाशेचे जे मेजके कवी फुडें आयले, ताणीं 'विप्लव रचयितुल संघम्' स्थापन केलो. दाशरथी हाची कविता लोकप्रिय आसून ती चड वीररसात्मक आसा. पुनर्नवा, महांध्रोदय हीं ताचीं कांय उल्लेखनीय काव्यां आसात. सी. नारायणरेड्डी हाणें 'नागार्जुन सागर, कर्पूरवसंतरायलु, ऋतुचक्रम्, मंटलोमानवुडु हीं कथात्मक गेय काव्यां बरयलीं. भुवनघोषाकार रमणरेड्डी हाणें मुक्त शैली जानपद भाशा आनी बुर्रकथांसारकिल्या लोकगितांच्या माध्यमाचो उपेग केला. बोई भीमन्ना हाकाय ह्या क्षेत्रांत खूब नामना मेळ्ळ्या.

**कथा** – आर्विल्ली तेलुगू कथेची परंपरा अडिवी बापिराजू ह्या कवि – कथाकारापसून सुरू जाता. 'भोगीरलोय, नागलि, शैलबाला, हिमालयरश्मि' ह्यो ताच्यो नामनेच्यो कथा आसात. पूण कोडवटिगंटी कुटुंबराव, त्रिपुरनेमी गोपीचंद, बुच्चिबापू आनी पालगुम्मी पद्मराजू ह्या चौगांकूय तेलुगू कथेच्या नव्या पर्वाचें श्रेय फावो जाता. आंध्र राज्यस्थापने उपरांत म्हळ्यार १९६० उपरांतच्या कथांनी, नव्या जीणेमूल्यांचो पुरस्कार करपाची प्रवृत्ती साहित्यीक रूप घेवंक लागली. अशा कथाकारांमदीं राचकोंडा विश्वनाथशास्त्री, बाळ गंगाधर टिळक, बलिवाडा कांताराव, कोम्मूरी वेणुगोपालराव, अवसरम् रामकृष्णराव, मधुरांतकम् राजाराम, मंजुश्री, चलसानी प्रसादराव ह्या कथाकारांचो आस्पाव जाता. तेलुगू कथा – लेखिकांची संख्याय खूब व्हड आसा. चड नामनेच्या लेखिकांभितर वासिरेड्डी सीतादेवी, रंगनायकम्मा, परिमला सोमेश्वर आनी बीनादेवी हांचो आस्पाव जाता.

**कादंबरी** – १९२० ते १९४० हीं वीस वर्सां अडिवी बापिराजू, विश्वनाथ सत्यनारायण आनी गुडिपाटी वेंकटाचलम हाणीं गाजयलीं. उपरांतच्या धा वर्सांनी गोपीचंद, बुच्चिबाबु, जी वी कृष्णराव आनी राचकोंडा विश्वनाथशास्त्री हाणीं संज्ञाप्रवाह, मनोविश्लेशण, अस्तित्ववाद ह्या विशयांनी तेलुगू कादंबरीक अद्ययावत स्वरूप मेळोवन दिलें. स्वातंत्र्यप्राप्ती उपरांतच्या लेखकांभितर कोडवटिगंटी कुटुंबराव, महीधर राममोहनराव, उप्पल लक्ष्मणराव हांचीं नांवां उल्लेखनीय आसात. नव्या लेखकांभितर बलिवाडा कांताराव, आर. एस. सुदर्शनम्, रंधी सोमराजू, कोम्मूरी वेणुगोपालराव हाणीं मध्यम वर्गीय जिणेचें कलात्मक चित्रण केलां. ह्याच कालखंडांत पी. श्रीदेवी, वासिरेड्डी सीतादेवी, परिमला सोमेश्वर आनी रंगनायकम्मा ह्यो नामनेच्यो कादंबरी लेखिका आसात.

व्यक्ती आनी समाज हांच्यांतलो संघर्श खरपणान चितरावपी कादंबऱ्यांनी पोला प्रगडा सत्यनारायणमूर्ती हाच्या संघम् चेसिन मनिषि, कौसल्या, दीपशिखो ह्यो कादंबऱ्यो येतात. उदय किरणालु, येडुरोजुला माजिली, अन्वेषण ह्या पोतुकुची सांबशिवराव हाच्या कादंबऱ्यांनी ह्या खर सर्तीच्या काळांत जावपी संवेदनाक्षम व्यक्तीची ओडाताण बरे तरेन चितरायल्या. प्रयोगशील लेखकांभितर 'नविन' हाची 'अंपशय्या' आनी वड्डेर चंडीदास हाचे 'हिमज्वाला' हे कादंबरेचो उल्लेख जाता.

**नाटक** – स्वातंत्र्या उपरांत नाटकांवयलो अस्तंती प्रभाव खूब उणो जालो. नित्याचे सादे – सोंपे भाशेंत सुटसुटीत तीन अंकी नाटकां आनी एकांकिका बरोवप जाल्यो. प्रजा नाटक मंडळीन १९४५ वर्सा 'मुंदडगू' आनी उपरांत 'मा भूमी' हीं नाटकां रंगमाचयेर हाडलीं. ह्याच काळांत 'कुरूक्षेत्रम्, रक्तकन्नीर चिंतामणि' हींय नाटकां खूब गाजलीं. आत्रेय हाचें 'एन्. जी. ओ.' हें नाटकूय खूब गाजलें. पालगुम्मी पद्मराजू हाचें 'डॉक्टरला वृत्तिधर्ममु', बुच्चिबाबूचें 'दारिना पोये दानय्या', वाविलाल सोमयाजुलू हाचें 'नायकुरालू', विंजमूरी शिवराम हाचीं 'विजयपताका, राजलक्ष्मी, कलोपासना हीं नाटकां, सोमंची यज्ञन्नाशास्त्री हाचीं 'कल्याणी, न्यायम्, पेद्दामनुष्युलु, रिहर्सल्स' हीं नाटकां आनी आमनचेर्ल गोपालराव हाचें 'मल्लम्मादेवा उसुरू' तशेंच कोंडमूडी गोपालरायशर्मा हाचें 'येदुरिता' हें नाटक खुबूच गाजलें.

१९४९ उपरांतच्या नाटककारांभितर डी. व्ही. नरसराजू (नाटकम्), अवसरला वेंकटनरसू (ज्योतिर्मयी), प्रख्या श्रीराममूर्ती (कालरात्रि, फणी, मनिषितो मनिषि), कोर्रापाटी गंगाधरम् (गुड्डिलोकम्), रेंट्ल गोपालकृष्ण (इन्स्पेक्टर जनरल), अवसरला सूर्यराव (पंजरम्), के. व्ही. रमणरेड्डी (राजीवम्) हे नामनेचे नाटककार. एन्. कृष्णम्माचारी (तेलुगू गड्डा), शंकरशास्त्री भागवतुल आरूद्र (शालभंजिका), के. व्ही. नरसिंहम् (उषारागम्) हे कांय उपहासप्रधान आनी संगीतप्रधान नाटककार. १९४९ वर्सा उपरांत राजमन्नार चलम्, नार्ल, मुद्दुकृष्ण, भमिडिपाटी, कामेश्वरराव, गोराशास्त्री हांच्यो दर्जेदार एकांकिका उजवाडा आयल्यो. मारूतीराव, रावी कोंडलराव, नंदी रामस्वामी, इनॉक, जॉन्सन हांच्या प्रयोगीक

नाटकांक इनामां मेळ्ळ्यांत.

**हेर साहित्य -** कोमर्राजू लक्ष्मणराव, मल्लमपल्ली सोमशेखर शर्मा हांचें वैचारीक आनी संशोधनात्मक लिखाण आनी कोराड रामकृष्णराव हाच्या इतिहासीक निबंधाक तेलुगू साहित्याचीं भुशणां मानतात.

समिक्षा क्षेत्रांत कट्टमंची रामलिंगरेड्डी आनी विश्वनाथ सत्यनारायण हांचे ग्रंथ उंचेले प्रतीचे मानतात. खंडवल्ली लक्ष्मीरंजनम्, दिवाकर्ल वेंकटावधानी हांचे साहित्येतिहासावयले ग्रंथ, वेटुरी प्रभाकरशास्त्री आनी सुरवरम् प्रतापरेड्डी हांचे संशोधनात्मक प्रबंध, गॅटी सोमयाजी हाचो 'आंध्रभाषाविकासमु', निडदवोलू वेंकटराव हाचो 'दक्षिणांध्रसाहित्यमु' हे ग्रंथ आनी तेलुगू नाटकांचो विकासक्रम दाखोवपी ग्रंथ ह्या काळांत बरोवप जाले. पानुगंटी लक्ष्मीनरसिंहराव हाच्या 'साक्षी' ह्या लोकप्रिय निबंधझेल्याचो आनी मुट्नुरी कृष्णरावाच्या 'समिक्षा' ह्या निबंधझेल्याचो मुजरत उल्लेख करूंक जाय.

आर्विल्ल्या तेलुगू साहित्याक उर्बा दिवपाचे नदरेन सगळ्यांत उत्कृश्ट कादंबरी, कथांझेलो आनी काव्यांझेलो हांकां दरेकी १,११६ रुपयांचें इनाम दितात. तेलुगू साहित्याक उर्बा दिवन ताचे उदरगतीक हातभार लावपाचें मोलादीक काम खबरांपत्रानींय बरे रितीन केलां. हे नदरेन आंध्र साहित्य परिशद पत्रिका, भारती, परिशोधन, आंध्रपत्रिकाउगादिसंचिकलु, शारदा, कृष्णपत्रिका, सुभाषिणी, विद्यार्थी, आंध्रप्रभा, आंध्रपत्रिका, स्त्रवंती, विशालांध्र हीं नामनेचीं नेमाळीं.

तेलुगू साहित्याचे उदरगतीक कांय साहित्य संस्थांनीय हातभार लायला त्यो अश्यो आसात - आंध्र प्रदेश साहित्य अकादमी, हैदराबाद; तेलुगू भाशा समिती, मद्रास आनी हैदराबाद; आंध्र सारस्वत परिशद, हैदराबाद; लक्ष्मीनारायण परिशोधन मंडली, हैदराबाद; आंध्र रायटर्स असोसिएशन, हैदराबाद; नव्य साहिती समिती, हैदराबाद; विश्वसाहिती, हैदराबाद; आंध्र प्रदेश विद्या परिशद, विजयवाडा; कल्चरल असोसिएशन, अनकापल्ली; साहिती समिती, रेपल्ले आनी हेर.

आंध्र प्रदेश साहित्य अकादमीच्या विद्यमान दर वर्सा दोन विशय थारावन तांचेर ग्रंथ मागयतात. तातूंतल्या उत्कृश्ट दोन ग्रंथांक दरेकी दोन हजार रुपयांचें इनाम भेटयतात. तेलुगू साहित्याच्या अभ्यासाचे नदरेन नामना आशिल्लीं कांय ग्रंथालयां अशीं आसात - आंध्र सारस्वत परिशद ग्रंथालय, काकिनाडा; कृष्णदेवराय आंध्रभाषानिलयम्, हैदराबाद; वेमनाभाषा निलयम्, विजयवाडा आनी हैदराबाद; स्टेट लायब्ररी, हैदराबाद; श्रीवेंकटेश्वर ओरिएंटल मॅन्युस्क्रिप्ट लायब्ररी, तिरुपती तशेंच आंध्र, वेंकटेश्वर, उस्मानिया ह्या विद्यापिठांचीं ग्रंथालयां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**तेहरान :** इराणाची राजधानी आनी तेहरान प्रांतांतलें मुखेल शार. क्षेत्रफळ १९,११८ चौ. किमी. लोकसंख्या ८,७१९,४८० (१९८६). हें शार कॅस्पियन दर्यासावन सुमार १०० किमी. अंतराचेर दक्षिणेक जाज्रूद आनी काराज न्हंयांमदीं, समुद्रथरासावन १,२०० मी. उंचायेचेर वसलां. कॅस्पियन दर्या आनी हें शार हांचेमदीं एल्बर्झ दोंगर आसा. हांगाचें हवामान निवळ आसता तेन्ना उत्तरेक एल्बर्झ दोंगराच्यो रांको आनी ताचें ५,६७८ मी. उंचायेचें माऊंट डेमव्हेंड हें सदांच बर्फान भरिल्लें तेमूक दिसता. हें तेमूक म्हळ्यार एक मृत ज्वालामुखी कोन आसा.

पोरणे पर्शियी भाशेंत तेहरान म्हळ्यार (तेह - ऊबदार, रान - थळ) उबदार थळ असो जाता. उबाळा दिसांनी हांगाचें हवामान २९° सॅ. जाल्यार शिंया दिसांनी हवामान ४° सॅ. आसता. हांगाचें वर्सुकी पावसाचें प्रमाण २० सेंमी. आसता. नोव्हेंबर ते मे ह्या काळांत हांगा पावस पडटा. डिसेंबर ते फेब्रुवारी ह्या म्हयन्यांमदीं शारांत बर्फ पडटा. उबाळा दिसांनी हांगा हवेंत हुनसाण चड आशिल्ल्यान हांगाचे लोक उत्तरेक १६ किमी. पयस दोंगरांनी आशिल्ल्या शेमीरान ह्या थंड हवेच्या थळांत रावपाक वतात.

तेहरान हें खुबूच पोरणें शार. इ.स. आदीं ३३१ त डरायस तिसरो हाचो फाटलाग करतना ॲलेक्झांडर ध ग्रेट हाचो मुक्काम ह्या शारांत आशिल्लो असो उल्लेख मेळटा. त्या काळांत हो गांव 'रे' ह्या लागसल्ले राजधानीचें ल्हान उपनगर आशिल्लो. इ.स. १२२० त मोंगोल लोकांनी 'रे' शाराचो नाश केलो तेन्ना थंयचे जायते लोक तेहरानाक रावपाक आयले. सोळाव्या शतमानांत सफाविद राजवंशाचो शाह तहमास्प पयलो हाणें शाराक तटबंदी केली. १७८५ त आगा मुहंमदखान ह्या कजार राजवंश संस्थापकान हें शार जिखलें आनी १७८८ त हांगा राजधानी स्थापन केली. तेन्नाच्यान हें शार इराणाची राजधानी आसा. मुहमंद खान हाचे उपरांत फथ अली शाह (१७९७-१८३४) हाणें हांगा गुलीस्थान राजवाडो, मश्जीद-इ-शाह आनी हेर वास्तू उबारून शाराक सोबीतकाय हाडली. फुडें नसिरूद्दीन शहा (१८४८-९६) हाच्या काळांत शाराचो विस्तार बरोच वाडिल्लो. फुडें १९२५ उपरांत रेझाशाह पहलवी हाच्या काळांत शाराची खुबूच उदरगत जाली. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत हांगाचे वसतीचीय भरपूर वाड जायत गेल्या.

ही इराण देशाची राजधानी आशिल्ल्यान हांगाचो कारभार सरकार पळेता. वेंचून आयिल्ल्या तीस वांगड्यांची नगरपालकीय परिशद हांगा आसून तांची दर चार वर्सांनी वेंचणूक जाता. ही परिशद महापौर वेंचून काडटा. महापौर आनी ताचे वांगडी हांचेर नागरी सेवेची जबाबदारी आसता.

ह्या शारांत कपडे, शिमीट, साकर, सिगार, कातडेचें काम, कंवचेच्यो वस्तू तेचपरी, वखदां, सौंदर्य प्रसाधनां, मोटारी, खेळणीं आनी 'रे' हांगाचे तेलशुद्धीकरण हे मुखेल उद्येग चलतात. पुराय इराण देशांतले सुमार ५१% उद्येगीक उत्पादन ह्या शारांत जाता.

शारांत १२ वेशी आनी १२ मुखेल रस्ते केंद्रीत जाल्ले आसात. फिर्दौसी चौक, शाह रेझा ॲव्हेन्यू, फिर्दौसी मार्ग हे तीन मुखेल रस्ते आसून ते उदेंतेक, दक्षिणेक आनी अस्तंतेक वतात. शाराचे उत्तरेक नवें शार आसून दक्षिणेक पोरणें बाजाराचें शार 'सेपाह' चौकाभोंवतणी आसा. हांगाचो रेल्वेमार्ग कॅस्पियन दर्या आनी इराकाकडेन वता. तुर्कस्तानांतल्यान हें शार ट्रान्स-युरोपियन रेल्वेक जोडिल्लें आसा. भायल्या देशांकडेन आनी देशांतल्या मुखेल शारांकडेन हें शार विमानमार्गान जोडिल्लें आसा. अस्तंतेक १० किमी. अंतराचेर मेहराबादाक मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. कालेमोर्घी आनी दौशन तापेहा हांगा ल्हान विमानतळ आसात.

हांगाचे लोक इराणी वंशाचे आसून इस्लाम होच हांगाचो मुखेल धर्म. हांगा आशिल्ल्या क्रिस्तांव लोकांमदीं ॲसिरियन आनी आर्मेनियन पंगड हे म्हत्वाचे आसून हांगा थोडे यहुदी आनी पार्शी धर्माचे लोक रावतात. पर्शियी ही हांगाची मुखेल भास आसून वेगवेगळ्या पंगडांचे लोक आपआपली भास वापरतात.

हें शार शिक्षणीक केंद्र आसून हांगा मुळाव्यो आनी माध्यमिक शाळा आसात. तेभायर शारांत युनिव्हर्सिटी ऑफ तेहरान (१९३५), नॅशनल युनिव्हर्सिटी ऑफ इराण आनी आर्च मिहीर इंडस्ट्रियल युनिव्हर्सिटी हीं तीन विद्यापिठां आसात. तेहरान शारांत सेपाह सालार मशीद, बहारस्तान राजवाडो आनी गुलिस्तान राजवाडो ह्यो पळोवपासारक्यो इमारती आसात.

शारांत ११ वस्तू संग्रहालयां आसून पुरातत्त्व संग्रहालयांत स्यूसा आनी पर्सेपिलसाक उत्खननांत मेळिल्ल्यो वस्तू दवरल्यात. गूलिस्तान राजवाड्यांतल्या संग्रहालयाची रत्नांखातीर नामना आसा. तातूंत नामनेचें 'मयुरासन' आनी 'नादीरासन' हीं शींवासनां आसात.

हांगा जायतीं ग्रंथालयां आसून मेली, मालेक हांची नामना आसा. शारांत दिसाळीं, सातोळीं, रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी केंद्रां आसात. तेभायर सोबीत बागो आनी एक प्राणिसंग्रहालय आसा. १९७४ तले आशियाई सामने ह्याच शारांत जाल्ले. २७ नोव्हेंबर ते २ डिसेंबर १९४३ ह्या काळांत प्रेझिडँट रुझवेल्ट, पंतप्रधान चर्चिल आनी मार्शल स्टालीन हांची म्हत्वाची बसका जावन हांगा त्रिराष्ट्र जाहिरनामो प्रसूत केल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**तैत्तिरीय आरण्यक :** कृष्ण यजुर्वेदाच्या तैत्तिरीय शाखेचें आरण्यक. तैत्तिरीय ब्राह्मणाच्याच कांय भागांक हें नांव आसा. हाचे धा प्रपाठक आसून, दरेक प्रपाठकाची कांय अनुवाकांत विभागणी केल्या. पुराय अनुवाकांची संख्या १७० आसा. हाच्या सात ते णव ह्या प्रपाठकांक तैत्तिरीयपनिषद अशें नांव आसा.

तैत्तिरीय आरण्यकांत काशी, पांचाल, मत्स्य, कुरुक्षेत्र, खांडव, अहल्या, शुनःशेप आदींचें वर्णन आसा. हांगा एकेकडेन नरकाचें वर्णन आसा. त्या ग्रंथांत तपस्वी मनशाक श्रमण अशें म्हळां. तैत्तिरीय आरण्यकांत जानव्याचो पयले खेपे उल्लेख आसा तो असो -

प्रसृतो ह वै यज्ञोपवीतिनो यज्ञः ।
यत्किञ्च ब्राह्मणो यज्ञोपवीत्यधीते यजत एव तत् ॥

**अर्थ** - जानवें घालपी मनशाच्या यज्ञाचो प्रसार जाता. जानवें धारण केल्लो ब्राह्मण जें कितें अध्ययन करता तो ताचो यज्ञच.

हाचेभायर यज्ञाविशीं बरेच विशय तैत्तिरीय आरण्यकांत आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**तैत्तिरीय उपनिषद :** कृष्ण यजुर्वेदाचे तैत्तिरीय शाखेचें उपनिषद. ह्या उपनिषदाचे तीन मुखेल भाग आसून, तांकां 'वल्ली' अशें म्हण्टात. पयले शिक्षावल्लींत बारा, दुसऱ्या ब्रह्मानंदवल्लींत णव आनी तिसरे भृगुवल्लींत धा अनुवाक आसात. शिक्षावल्लींत वेगवेगळ्यो शिक्षा (वर्णोच्चाराचे प्रकार) वर्णिल्यात. ब्रह्मानंदवल्लींत ब्रह्मज्ञान आनी ताचेपसून जावपी आनंद हांचें वर्णन आसा. भृगुवल्लींत तेंच गिन्यान संवादरुपान सांगलां.

शिक्षावल्लीच्या तिसऱ्या अनुवाकांत वेदार्थाचे अधिलोक, अधिज्योतिष्य, अधिविद्य, अधिप्रज आनी अध्यात्म अशे पांच दृश्टीकोन सांगल्यात. पृथिवी, अंतरिक्ष आनी द्यौ ही अधिलोक नदर. सबंद विश्वांत आनी मनशाच्या देहांत ह्या तीन लोकांची सत्ता आसा.

अग्नी, आदित्य आनी विद्युत ह्यो तीन ज्योती आसात. अधिविद्य नदर ही ब्रह्मविद्येच्या शिकपा आनी शिकोवपाविशीं आसा. अधिप्रज नदर ही जीवविज्ञानाविशीं आसून आवय, बापूय आनी पूत हें ताचें सूत्र. पांचवी नदर ही अध्यात्माविशीं आसा. हाचो संबंध मनशाचे कुडीकडेन आसा. मनीसदेह हो ब्रह्मांडाचो जुस्ताजुस्त नमुनो. ताकाच थंय पुरुष प्रजापती अशें म्हळां.

पांचव्या अनुवाकांत वेदविद्येविशीं व्यापक नदर दवरल्या. हातूंत भूः, भुवः, स्वः आनी महः ह्या चार व्याहृतींची लोकात्मक, देवात्मक, वेदात्मक आनी प्राणात्मक अशी चार तरांनी व्याख्या केल्या.

सव्या अनुवाकांत, कुडींत मनोबळाच्या रुपान रावपी ब्रह्मतत्त्वाची फोडणिशी केल्या. हीच अमृतशक्त आसून मेंदवाच्या मदल्या भागांत ती रावता आनी तेंच ब्रह्मज्ञान जावपाचें दार. आठव्या अनुवाकांत ब्रह्मविद्येंतल्या ओमकाराचें म्हत्व वर्णिलां. पुर्विल्ल्या काळांत शिकप सोंपतकच गुरू आपल्या शिश्याक जो उपदेश करताले, तो इकराव्या अनुवाकांत दिला.

ब्रह्मानंदवल्लींत ब्रह्माच्या स्वरुपाचें वर्णन केलां, तें अशें -

सत्यं ज्ञानमनन्तं ब्रह्म । यो वेद निहितं गुहायां ।
परमे व्योमन् । सोऽश्नुते सर्वान् कामान् ।

**अर्थ** - ब्रह्म हें सत्यस्वरुपाचें, गिन्यान स्वरुपाचें आनी अनंत अशें आसा. सूक्ष्म अशा काळजांत रावपी ब्रह्म जो जाणता, तो ब्रह्माकडेन एकरूप जावन पूर्णकाम जाता.

हाचेउपरात पंचकोशांचें वर्णन आसा. हाचेफुडें रस हेंय ब्रह्माचें रूप अशें सांगलां. रसाची प्राप्ती जातकच मनीस खोशी जाता. ह्या रसाचो आस्वाद घेवप म्हळ्यारूच ब्रह्म जाणप, अशेंय सांगलां.

आत्मानंदाची मीमांसा करतना सांगलां -

यतो वाचो निवर्तन्ते । अप्राप्य मनसा सह ।
आनन्दं ब्रह्मणो विद्वान् । न बिभेति कुतश्चनेति ।

**अर्थ** - मन आनी वाणी जेमेरेन पावपाचो यत्न करतात आनी तें मेळना म्हणून परत येतात, अशा त्या आत्मानंदाचो साक्षात्कार जाका जाता, ताका कसलीच भिरांत उरना.

हाचेउपरांत अन्नाचीय तुस्त केल्या. कारण प्राण हो अन्नाचेर आदारून आसा. देखून अन्न मेळयात, बरें आनी भरपूर अन्न खायात आनी अन्नाची निंदा करूं नाकात, असो उपदेश केला.

- कों. वि. सं. मं.

**तैत्तिरीय ब्राह्मण :** कृष्ण यजुर्वेदाचे तैत्तिरीय शाखेचें ब्राह्मण. हें बरेंच व्हड आसून तातूंत ३ कांडां, २५ प्रपाठक आनी ३०८ अनुवाक आसात. हें ब्राह्मण खूब पुर्विल्लें आसून तातूंत छंदोबद्ध भंग आसून, संहितेंत आयिल्ल्या भंग भागाचीय विस्कटावणी हातूंत केल्या.

हाच्या पयल्या कांडांत अग्न्याधात, गवामयन, वाजपेय, सोम आनी राजसूय ह्या यागांचें वर्णन आसा. दुसऱ्या कांडांत अग्निहोत्र, उपहोम, सौत्रामणी ह्या यागांचें आनी बृहस्पतीसव, वैश्यसव आदीं सवांची फोडणीशी आसा. तिसऱ्या कांडांत पयलीं नक्षत्रेश्टींचें विस्तारान वर्णन आसून, चवथ्या प्रपाठकांत पुरुषमेधाखातीर लागपी जनावरांचें वर्णन आसा. पुरुषमेधाचें वर्णन पयलेच खेप हांगा मेळटा. ह्या कांडाच्या धा ते बारा ह्या निमाणच्या प्रपाठकांक काठक अशें म्हण्टात.

ह्या ब्राह्मणांत सामवेदाक सगळ्यांत श्रेश्ठ वेद अशें मानलां. हातूंत सगळ्याक वर्णवेवस्थेविशीं आदर उक्तायला. पुराणांत आयिल्ल्या कितल्याशाच अवतारांच्या कथांचीं बिजां हातूंत सांपडटात. वेदकाळांतल्या ज्योतिशशास्त्राचीय थोडी माहिती हातूंत आस्पावता. बायल ही दादल्याची अर्धांगी आनी ती लक्ष्मीरूप आसता, अशें हातूंत सांगलां. बायल नाशिल्ल्या दादल्याक यज्ञाचो अधिकार ना, अशेंय हातूंत स्पश्ट सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**तैत्तिरीय शाखा :** कृष्ण यजुर्वेदाची एक शाखा. तित्तिरी ऋषी हो हे शाखेचो प्रवर्तक. पाणिनी तशेंच पतंजलीन तित्तिरीचो आनी तांच्या लोकांचो उल्लेख केला. महाभारतांत हाका वैशंपायनाचो व्हडलो भाव

म्हळां. तशेंच तो युधिष्ठीराच्या दरबारांत आशिल्लो अशेंय सांगलां.

पुराणांत मात सगळेकडेन कृष्ण यजुर्वेदाकच तैत्तिरीय अशें नांव दिलां. हेविशीं विष्णुपुराणांत एक श्लोक आसा तो असो -

यजूंष्यथ विसृष्टानि याज्ञवल्क्येन वै द्विज ।
जगृहुस्तित्तिरा भूत्वा तैत्तिरीयास्तु ते ततः ॥

**अर्थ** - हे ब्राह्मणा यजुमंत्राचे याज्ञवल्क्यान वमन केलें आनी ताच्या शिश्यांनी तित्तिर पक्षाचें रूप घेवन ताचें ग्रहण केलें. देखून ताका तैत्तिरीय अशें म्हणूक लागले.

मॅक्स म्युलरान, तितरी हो एक ऋषी आसून तो यास्काचो शिश्य आशिल्लो अशें म्हळां. तैत्तिरीयांचो रामायणांत उल्लेख आसा. तैत्तिरीय शाखा कुरुपांचाल देशांत सुरू जाली आनी फुडें ती दक्षिणेंत पातळ्ळी. हे शाखेचे औखेय आनी खांडिकेय अशे दोन भेद आसात. हे शाखेचे संहिता, ब्राह्मण, आरण्यक आनी उपनिषद अशे चारय प्रकारचे ग्रंथ आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**तैत्तिरीय संहिता :** कृष्ण यजुर्वेदाचे तैत्तिरीय शाखेची संहिता. यजुर्वेदांत तैत्तिरीय हो एक मुखेल पंथ आसून तातूंत ही संहीता शिकयताले अशें ज्ञानकोशांत म्हळां. ही संहिता म्हळ्यार यज्ञसंस्थेंतल्या अध्वर्यू नांवाच्या ऋत्विजाची कर्मदर्शक पोथी. हातूंत ७ कांडा, ४४ प्रपाठक आनी ६५१ अनुवाक आसात. तातूंतल्या विशयांची मांडणी अशी केल्या - पयल्या कांडांत दर्शपूर्णमास, अग्निष्टोम, अग्निहोत्र, अग्न्याधान, राजसूय आदी यज्ञांत लागपी मंत्र दिल्ले आसात. दुसऱ्या कांडांत काम्यपशू आनी काम्येष्टींचें विधान आसा. तिसरें कांड गद्य पद्य आशिल्ल्यान ताका औपानुवाक्य अशें नांव आसा. चवथ्या कांडांत चयनाविशींचे मंत्र आसून, पांचव्यांत ताचें विधान-ब्राह्मण आसा. सव्यांत अहीनयाग आनी अश्वमेध हांचें विधान आसा.

तैत्तिरीय संहितेची भास गद्यरुप आसून ती विस्तृत आनी पुनरुक्तिप्रधान आसा. तैत्तिरीय संहितेत संहिता आनी ब्राह्मण हे ग्रंथ एकामेकांत भरसल्यात.

हातूंत पद्यभागय आसून तो ब्राह्मणांतल्यान घेतला अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**तैमूरलंग :** (जल्म : ९ एप्रिल १३३६, कीश (सद्याचें शख्रीश्याप्स); मरण : १९ जानेवारी १४०५, ओत्रार).

आशिया खंडांतलो मध्ययुगांतलो एक म्हान नेतो. पिरायेच्या बाराव्या वर्सासावन ताचे धाडसी जिणेक सुरवात जाली. ताच्या जिविताचीं पयलीं सुमार तीस वर्सां खूब कश्ट, दगदगांत आनी हेडपांत गेलीं. आपली पुराय शक्त लावन ताणें आपल्या सगळ्या दुस्मानांचेर जैत मेळोवन समरकंदाक आपली गादी स्थापन केली. ह्याच काळांत चंगीझखानाच्या वंशजाकडेन नोकरी करता आसतना पिरायेच्या पंचविसाव्या वर्सा तैमूरलंग कांय प्रांतांचो अधिकारी जालो. १३६९त ताणें चगताई मंगोल वंश सोंपोवन समरकंदाचें राज्य मेळयलें. तशेंच इराण, तार्तर, हिंदूस्थान आनी ऑटोमन राज्यांनी ३५ घुरयो घालून २७ राज्यांचेर जैत मेळयलें.

तो खूब प्रतिभावान आनी महत्त्वाकांक्षी आशिल्लो. चंगीझखान आनी ॲलेक्झांडर हांचेभाशेन जग जिकपाची ताची उपाट इत्सा आशिल्ली. ते नदरेन १३७०-९०त ताणें उदेंत तुर्कस्थान आनी इराणांत आक्रमक धोरण धरलें. १३८०त ख्वारिज्म, कॅश्गार आनी १३८१ त हेरात जिकलें. १३८२-८५त ताणें उदेंत तुर्कस्तान आनी खोरासान जिकून १३८६-८७ त फार्स, इराक, आझरबैजान आनी आर्मेनियांत आपली सत्ता प्रस्थापीत केली. १३९३-९४ त मेसोपोटेमिया आनी १३९४ त जॉर्जिया घेतलें. हे देश जिकता आसतना किपचाक वंशीय तुर्कांच्या तोख्तमिश हाणें खूब विरोध केलो. ह्याच वेळार इराणांतल्या बंडाचो ताणें बंदोबस्त केलो.

उपरांत तैमूरलंग सुमार १ लाख सैन्य घेवन १३९८त हिंदुस्थानाचेर घुरी घालूंक भायर सरलो आनी २४ सप्टेंबरा दिसा ताणें अटका लागसार सिंधू न्हंय हुपली. तशेंच उदेंतेकडल्यान दिपालपूर, भटनेर हे किल्ले घेवन पानिपता सावन तो दिल्लीक पावलो. ताणें दिल्ली शारांत भयाकृंत कत्तल करून थंयची अफाट संपत्ती लुटून समरकंदाक व्हेली.

जोर्जिया, बगदाद, ॲनातोलिया आनी बेयझीदच्या बंडाक लागून तैमूरलंगाक थंय वचचें पडलें. पिरायेच्या ६३व्या वर्सा ह्या सगळ्यांचो बंदोबस्त करून तो परत अस्तंतेकडेन म्हळ्यार सिरीया, बगदाद, ईजिप्त आनी ऑटोमन तुर्क हांगा गेलो. आशिया मायनरांतल्या ल्हान राजांवटेन झुजून ताणें ऑटोमन तुर्कांक हारयले. बगदाद आनी स्मर्ना हांगाच्या सगळ्या मनशांची कत्तल करून तीं शारां लासलीं. १४००त दमास्कसाक इजिप्ताच्या सुलतानाक हारोवन १४०२ त ताणें बेयझीदाकडेन झूज केलें. पिरायेच्या ६९ व्या वर्सा वीस लाख सैन्यासयत तो चीनाचेर घुरी घालूंक भायर सरलो; पूण वाटेर आसतनाच १४०५त ओत्रार गांवांत ताका मरण आयलें.

एका पांयान लंगडो आशिल्ल्यान ताका तैमूरलंग हें नांव पडलें. तशेंच, तो एका हातान पांगळो आशिल्लो अशेंय म्हण्टात. तो खूब धाडसी आनी धूर्त आशिल्लो. विद्वान लोकांवांगडा इतिहास, धर्मशास्त्र, साहित्य आदी विशयांचेर भासाभास करपाक ताका खूब आवडटालें. विंगड विंगड कलांची आवड आशिल्ल्यान मध्य आशियांत १४०० च्या सुमाराक ताणें जायत्यो सोबीत वास्तू आनी मशिदी बांदल्यो. ह्या कामाखातीर वेगवेगळ्या देशांतल्या कलावंतांची ताणें मदत घेतली.

ताका दोन चले आशिल्ले. शहरूख ह्या ताच्या धाकल्या चल्यान तैमूर लंगाच्या मरणाउपरांत एकसंघ राज्य उरचें असो यत्न केलो. तैमूरलंगान आपल्या मरणापयलीं राज्याची वांटणी दोन चले आनी नातू हांचेमदीं केल्ली. तिमूर वंश सोळाव्या शेंकड्यामेरेन तिगून आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**तैवान :** एक जुंवो. हो जुंवो चीन देशाचे मुखेल भुंयेपसून सुमार १६० किमी. अंतराचेर आसा. हाका पोर्तूगीज भाशेंत 'फोर्मोझ्झु' म्हळ्यार सुंदर, म्हण्टात. त्या जुंव्याच्या लागसारचे ल्हान १३ जुंवे, तशेंच पंगहू वा पेस्कदोरझ हातूंतले ६४ जुंवे, किमॉय गटांतले ४ जुंवे आनी मादझू जुंवे तैवानांत आस्पावतात. हातूंतल्या फक्त तैवान जुंव्याचें क्षेत्रफळ ३५,७६३ चौ. किमी. आसून सगळ्या जुंव्यांसयत हाचें क्षेत्रफळ ३५,९८१ चौ. किमी. जाता. १९९१ वर्साचे जनगणनेप्रमाण हाची लोकसंख्या २,०४,५४,००० आशिल्ली. हे सगळे जुंवे, ११८°२३' उदेंत ते १२२°६'२५"उदेंत आनी २१°४५'२५" उत्तर ते २६°९' उत्तर अशे पातळ्ळ्यात. फकत तैवान जुंवो २१°५४' उत्तर ते २५°१८ उत्तर आसून ताची दक्षिण - उत्तर लांबाय सुमार ३७६ किमी. आनी उदेंत - अस्तंत रुंदाय सुमार १४४ किमी. आसा.

सद्या तैवानाक 'राश्ट्रीय चीन', 'नॅशनॅलिस्ट चायना'वा 'रिपब्लिक ऑफ चायना' ह्या नांवान वळखतात.

**भूंयवर्णन** - हांगा १८२किमी. लांबायेची जॉश्वे न्हंय सगळ्यांत व्हड

आसून, चडशो सगळ्यो न्हंयो ल्हान आनी उथळ आसात. पावसाळ्यांत ह्या न्हंयांक हुंवार येतात आनी गिमाच्या दिसांनी त्यो सुकतात. उदेंत दर्यादेगांचेर कांय न्हयांचीं तोंडां आसात. जुंग यांग शानमो पर्वतांची चडांत चड उंचाय 'माऊंट मॉरिसन' वा 'यू शान' ह्या सुवातांचेर ३,९९७ मीटर आसा. ३,०००मीटरांपरस चड उंचायेचीं खूब तेमकां आसात. हाच्या वट्ट क्षेत्रफळांतली ३८% भूंय दोंगराळ आसून २५% जमीन दोंगर - देंवतेची आसा. दोंगराळ भागांत न्हंयांचे प्रवाह नेटाचे आसून सखल प्रदेशांत तांचो वेग उणो आसा. ताका लागून हांगा बरींच सुपीक देगणां आसात. तैवानांत, टर्शरी कालखंडांत तयार जाल्ले खडक व्हड प्रमाणांत आसून लॅटेरायट आनी लाव्हाचीं खडपांय दोंगराळ भागांत मेळटात. ह्या प्रदेशांत भूंयकांपाचे ल्हान व्हड धक्के बसत आसतात.

हो जुंवो कर्कवृत्ताचेर आशिल्ल्यान, गिमाच्या दिसांनी हांगाची उश्णताय बेताचीच आसता. जून ते सप्टेंबर मेरेन दर्यादेगेवयलें तापमान सुमार ३०° सॅ. आसून हेरकडेन उंचायेप्रमाण उणें जायत वता. जानेवारींत तापमान १५°सॅ. च्या अदमासाक आसता. शिंयाळ्यांत मध्यवर्ती पर्वतांचेर हिम आसता. मे ते सप्टेंबर म्हयन्यांमदीं नैर्ऋत्य मौसमी वाऱ्यापसून दर्यादेगेचेर १५० सेंमी. पसून भितरल्या वाठारांनी ३०० सेंमी. मेरेन पावस पडटा. दोंगराळ वाठारांनी ७२२.५५ सेंमी. मेरेन पावस पडिल्ल्याची नोंद आसा. पॅसिफिक म्हासागराकडल्यान येवपी वाऱ्याक लागून ईशान्य तैवानांत, शिंयाच्या दिसांनी खूब पावस पडटा.

**वनस्पत -** उश्ण आनी दमट हवा, वोत आनी योग्य त्या पावसाक लागून ४८% भुंयेचेर सैमीक वनस्पत आसून २३ लाख हॅक्टरांत कापूर, ओक आनी चेस्टनट फिकुआ, पंडानू,सायप्रस हे रूख मेळटात. तैवान जुंवो हो जगांतलो सैमीक कापूर आनी कापूर तेलाचो उत्पादक. थंयच्या रानांनी ओक आनी सायप्रस हीं झाडां आसात. रानांच्या भितरल्या वाठारांनी, आयज लेगीत मनशांनी आफडूंक फावना असलीं झाडां आसात. सखल वाठारांत कोंडो, ताड हीं झाडां आसात. १,८०० ते २,४०० मीटर उंचायेचेर सॅडर सायप्रस, ज्युनिपर, ऱ्होडोडॅंड्रॉन, मॅपल, जपानी सॅडर हे समशीतोश्ण कटीबंधीय रूंद पानांचे रूख आसात. कापराचीं झाडां ६०० ते १,८०० मीटर उंचायेचेर आसतात.

दर्यादेगेर खूब नूस्तें मेळटा. माकड, हरण, रानदुकर, वांस्वेल, रानमेंढरां, रानमांजर, चित्तो हे रानटी प्राणी आनी महोका, जीवधरपी, किंगफिशर, लार्क हे पक्षी हांगा दिसतात.

**इतिहास -** इसवी सनाच्या सातव्या शेंकड्यांत कांय चिनी लोक फॉर्मोझांत आयले आनी उपरांत सुमार १० शेंकड्यांनी मांचुंनी चीनाचेर घुरी घालतकच फूक्येन - ग्वंगटुंग प्रांतांतल्यान आयिल्ल्या चीनी लोकांनी फॉर्मोझांत वसणुको केल्यो. पूण हांगाचे मूळचे लोक हे मलाया वा इंडोनेशियांतल्यान आयले आसुयें अशें एक मत आसा.

१५९० वर्सा पोर्तुगेजांनी आनी तांचे उपरांत स्पॅनीश आनी डचांनी वेपाराच्या निमतान आपल्यो वखारी फॉर्मोझांत दवरिल्यो. पूण तांकां सतराव्या शेंकड्यांत मांचुंनी धांवडावन घाले. उपरांत १८५८ वर्सा कीलुंग आनी गाउश्युंग हीं दोन बंदरां परक्यांक वेपाराखातीर उपलब्ध जालीं. पूण चीनी-जपानी झुजाउपरांत १८९५ वर्सा हो जुंवो जपानाच्या ताब्यांत गेलो.

दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत तैवानाचेर अमेरिकन विमानांनी भयंकर बॉम घाले आनी १९४३चे कायरो परिशदेप्रमाण आनी १९४५चे पॉट्सडॅम कबालातीप्रमाण तैवान हो चीनाचोच एक प्रांत म्हणून चीनाक दिलो.

१९४९ वर्सा चीनांत सगळ्याक साम्यवादी राजवट येतकच चियांग-काय- शेक हाच्या फुडारपणाखाल राश्ट्रीय चीनाचे सरकार हांगा हाडलें.

**राज्यवेवस्था -** अध्यक्ष हो देशाचो मुखेल आसून उपाध्यक्ष आनी प्रधानमंत्री हे ताचे सहाय्यक आसतात. तैवानांतले राश्ट्रीय आमसभेंत ताची ६ वर्सांखातीर नेमणूक केल्ली आसता. पांच नियामक मंडळां राज्यकारभार पळेतात. ह्या नियामक मंडळाक 'युआन' अशें म्हण्टात. ५ शारां आनी १६ प्रांतांनी, राज्यकारभाराखातीर देशाची विभागणी केल्ली आसता. कायदो-नियंत्रक युआन हें सगळ्यांत मुखेल आसून राज्यकारभार करपी, न्याय दिवपी आनी परिक्षा घेवपी हेर युआन आसतात.

कायद्यान १९ वर्सां पिरायेवयल्या सगळ्या धडधाकट नागरिकांक २ वर्सां सेनादळांत वा ३ वर्सां वायुदळांत वा नौदळांत सक्तीन काम करचें पडटा. सर्वोच्च अधिकारी आशिल्ल्या अध्यक्षान वटहुकूम काडप, कायदेमंडळान मंजूर केल्ल्या विधेयकांक संमती दिवप, सेनेच्या मुखेल्याची जापसालदारी सांबाळप, परराश्ट्रीय धोरण आंखप हीं मुखेल कामां आसात.

१९४७ वर्सा रिपब्लिक ऑफ चायनाची १,४३५ वांगड्यांची राश्ट्रीय सभा वेंचप जाली. १९४८ वर्सा वेंचिल्लें सर्वोच्च विधिमंडळ ४४२ वांगड्यांचें आशिल्लें. ह्या मंडळाची वांगडी संख्या १९७२ वर्सा अनुक्रमान ५३ आनी ५१ नी वाडयली आनी तांची मुदत बेमुदत वाडयली. २३ डिसेंबर १९७२ दिसा नवी राश्ट्रीय सभा वेंचली. हे सभेंत क्वोमिंतांगाक ३८ सुवाती मेळ्ळ्यो आनी त्या दिसा वेंचिल्ले प्रांतिक सभेच्या ७३तल्यो ५९ सुवाती क्वोमिंतांगाक मेळ्ळ्यो.

तैवानांत नवे पद्दतीचें पांयदळ, विमानदळ आनी नौदळ आसा. तैवान सैनिकांक गनिमी कावो आनी घातपातांचें खाशेलें शिक्षण दिवप जाता.

**अर्थीक स्थिती -** हो देश शेतकीप्रधान आशिल्ल्यान हांगा व्हड प्रमाणांत शेतकामती कुटुंबां आसात. तांदूळ हें हांगाचें मुखेल अन्न आसून भातशेताखाला ६०% जमीन मेळटा. हांगा अस्तंतेवटेन् लाव्हा रसापसून तयार जाल्ल्यो जमनी, तर न्हंयांच्या देगणांनी गाळाच्यो जमनी आसून १५० सेंमी. परस चड पावसाच्या प्रदेशांनी जांभा फातरापसून तयार जाल्ल्यो जमनी आसात. पूण लागवडींतले मर्यादीत जमनींतल्यान वाडटे लोकसंख्येखातीर चडांत चड पीक काडचें पडटा. शक्य आसा थंयसावन तांदळाचीं दोन पिकां घेवंचीं पडटात.

सखल प्रदेशांतल्यान गंव, तांदूळ, तंबाकू, ताग आनी सोयाबीन हीं पिकां काडटात. वर्सभर उदकाची पुरवण आशिल्ल्या प्रदेशांतल्यान उंसाचें पीक घेतात तशेंच दोंगर उतरणेचेर मळ्यांतली पिकां म्हळ्यार च्या, केळीं, मोसंबी, अनस हीं पिकां घेतात.

तैवानांतली उलाँग च्या खूब प्रसिद्ध आसा. वट्ट लागवडींतली सुमार ६०% जमीन उदका-शिंपणावळीच्या विंगड विंगड येवजणांखाला आसा. शेतांक कोंड्याच्या नळांतल्यान उदक पावयतात. दुकरां, कोंबयो हांची पैदास करून कवक हवाबंद डब्यांतल्यान निर्यात करतात. अनसां हवाबंद डब्यांनी घालप तशेंच कापूर आनी कापराचें तेल तयार करप हे गांवगिरे उद्देगधंदे. कवक शेती हें तैवानाचें एक शेतीचें खाशेलपण आसा.

सरकारान 'कसता ताची जमीन' असो कायदो केला तशेंच साडेसात एकरांपरस चड जमनी कुळांक खंडान दिवपाक मेळना. सरकारी मालकेची जमीन कुळांक खंडान दिवन तीच तांकां हप्त्यान विकती घेवपाचीय तजवीज केल्ली आसा. 'शेतकरी संघा' वतीन शेतकामत्याक सरकारी मदत दितात. हे संघटनेवतीन तांकां रीणां, मालाची विक्री, रासायनिक सारीं आनी बिंयां, शेताक लागपी अवजारां, जंतुनाशकां आनी उदकापुरवण

हेविशीं आदार मेळटा. प्रात्यक्षिकां दाखोवन शेताविशींचें शिक्षण तांकां दितात.

तैवानांतले बरेचशे खनीज पदार्थ जपानाक निर्यात करतात. तांबें, भांगर आनी रुपें तैवानांत उण्या प्रमाणांत मेळटा. बॉक्सायट, गंधक आनी मीठ हांचे हांगा सांठे आसात. वायव्य तैवानांत खनीज तेल आनी सैमीक वायू मेळटा. नळांच्या आदारान हें तेल आनी वायू उद्येगीक केंद्रांक पावयतात. कीलुंग आनी तैपे हांगा दगडी कोळश्याच्यो खाणी आसात. संगमरवर, चुनखडक, डोलोमायट उदेंत किनाऱ्याचेर मेळटात. फॉस्फरस लोहधातूक, मँगॅनीज, ॲसबेस्टॉस, संगजिरे, कंवची-रेंव आनी हेर कांय खनिजां उण्या प्रमाणांत आसात.

तैवानाचो वेपार चडसो जपान, अमेरिका, अस्तंत जर्मनी, हाँगकाँग, सिंगापूर, मलेशिया, फिलिपिन्स, ग्रेट ब्रिटन ह्या देशांकडेन चलता. एप्रिल १९७४ वर्सा १ स्टर्लिंग पाऊंड = ८९.७३ नवे तैवानी डॉलर आनी १ अमेरिकी डॉलर = ३८ नवे तैवानी डॉलर असो विनिमय दर आशिल्लो.

**दळणवळण** - तैवानांत १९७३ वर्सा रूंद आनी अशीर अशे ४,३०० किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आशिल्ले. ह्याच वर्सासावन विद्युतीकरणाक सुरवात जाली. तैवानांतले अस्तंत दर्यादेगेवयल्यान वचपी कीलुंग - गाउश्युंग रेल्वेमार्ग मुखेल आसून ह्या मार्गाक लागून मुखेल बंदरा, उद्येगीक केंद्रां आनी म्हत्वाचीं शारां जोडल्यांत. रेल्वेमार्ग पॅसिफिक म्हासागराचे दर्यादेगेवयल्या हुआलिएन आनी ताइडुंग हांकां जोडटात. उदका - येरादारी हें तैवानातलें दळणवळणाचें मुखेल साधन. उत्तरेकडलें कीलुंग आनी नैर्ऋत्येकडलें गाउश्युंग हीं तैवानाचीं मुखेल म्हत्वाचीं सैमीक बंदरां. उदेंत दर्यादेगेवयलें हुआलिएन हें तैवानाचें तिसऱ्या क्रमांकाचें आंतरराश्ट्रीय बंदर.

तैपेच्या सुंगशान ह्या उपनगरांत तैवानाचो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसून तैनान, मागुंग आनी पिंगडुंग हे हेर विमानतळ आसात. 'सिव्हील ॲर ट्रान्सपोर्ट' हे कंपनीवतीन अंतर्गत हवाई येरादारी चलता. तशेंच मानिला, बँकॉक, टोकियो, हाँगकाँग आनी सोल (कोरीया) मेरेन ही येरादारी चलता.

**लोक आनी समाजजीण** - हांगाचे मूळ लोक मलायी वंशाचे आसात. कांय लोक दक्षिण चीनांतल्यान आयिल्ले आनी स्थलांतरीत लोकांचे वंशज. तैवानांतल्या लोकांचेर दक्षिण चीनांतल्यो चालीरिती दिसतात. चडशे लोक बौद्ध आनी ताओप्रणीत देवतांची उपासना करतात. स्थानिक लोकांच्यो वेगवेगळ्यो देवता आसतात.

**भाशा आनी साहित्य** - तैवानांत मँडरीन ही मुखेल भास आसून ॲमॉय, स्वॅटो, टाक्का ह्यो बोलीभासोय उलयतात. शासकीय कार्यालयां, न्यायालयां, वेपार आनी प्रशासन मँडरीन भाशा वापरतात. हेच भाशेक अधिकृत भास म्हणून मान्यताय मेळ्ळ्या. तैवानांतल्या शाळांनी हीच भास शिकयतात. हांगा जपानी भाशाय व्हड प्रमाणाचेर वापरप जाता.

**शिक्षण** - तैवानांत ६ वर्सां पिरायेवयले ८० टक्क्यांपरस चड लोक साक्षर आसात. शिक्षणाची राश्ट्रीय ( मुळावी), माध्यमिक आनी उच्च शिक्षण अशा तीन पद्दतींनी विभागणी केल्ली आसून बालोद्यान आनी समाजीक शिक्षण (प्रौढ शिक्षण) हांच्योय सवलती तैवानांत आसात. सप्टेंबर १९६८ वर्सासावन ६ ते १५ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांक ९ वर्सांचें राश्ट्रीय शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसा. ह्या काळांत सुदारीत विज्ञानाच्या अभ्यासाचेर भर आसून कन्फ्युशस मतप्रणालीचें शिक्षण दितात. तैपेचें राश्ट्रीय तैवान विद्यापीठ (१९२८) आनी तायचुंगचें राश्ट्रीय जुंगशान विद्यापीठ (१९६१) हीं तैवानांतलीं सगळ्यांत व्हड दोन विद्यापिठां.

फुटबॉल हो तैवानी लोकांचो आवडटो खेळ. तैवानांतल्या कला, खेळ, संगित, नाच आनी हेर ललीत कलांचेर चीनी संस्कृतायेचो प्रभाव दिसता. हांगा खामसुत्री बावल्यांचो खेळ खूब लोकप्रिय आसा.

**म्हत्वाचीं थळां** - तैपे ही तैवानाची राजधानी. हेंच तैवानाचे उद्येगीक, शैक्षणिक आनी शासकीय केंद्र आसा. थंड हवामानाक लागून पाचवोचार सैम आनी जगांतलें सगळ्यांत व्हड संग्रह आशिल्लें नॅशनल पॅलेस म्युझीयम पळोवपासारकें आसा. तायचुंग हें अस्तंत दर्यादेगेवयलें शेतीमालाचें आनी वेपाराचें मुखेल केंद्र आसून हांगांच राश्ट्रीय जुंगशान विद्यापीठ आसा. उत्तर दर्यादेगेवयलें ३०० मीटर लांबायेचो धको आशिल्लें किलुंग हे म्हत्वाचें सैमीक बंदर आसा. गाउश्युंग हे तैवानांतलें एक म्हत्वाचें उद्येगीक ठिकाण आनी दक्षिण किनाऱ्यावयलें एक म्हत्वाचें सैमीक बंदर आसा.

– प्रकाश कामत

## तोडरमल -१ : (जल्म : १५३५, लाहरपूर - अयोध्या; मरण : १० नोव्हेंबर १५८९).

अकबराचो एक नामनेचो अर्थमंत्री. तो खत्री जातीचो आसून एका टंडन घराब्यांत ताचो जल्म जालो. सुर्वेक तो शेरशाहाकडेन नोकरेक आशिल्लो. उपरांत १५६१ त अकबराच्या दरबारांत ताका कारकुनाची नोकरी मेळ्ळी. पूण ताची बुदवंतकाय पळोवन ताका सैन्यांत मानाची सुवात दिली. १५६७ त ताणें अयोध्या वाठाराचो सुभेदार शिकंदरशाहा हाका हारयलो. फुडें ओडिसा, बंगाल, बिहार, गुजरात आदी वाठारांतल्या झुजांनी ताणें जैत मेळयलें. इ. स. १५८४ त ताणें बंगालच्या चडशा वाठाराचो मोगल साम्राज्यांत आस्पाव केलो. ताचे हे कामगिरीखातीर अकबरान ताका राजा ही पदवी दिवन ताका बंगालचो सुभेदार केलो. पूण ताका चड नांव मेळ्ळें तें ताणे सुरू केल्ले भूंय महसुलाचे पद्दतीक लागून. ते पद्दतीचें नांव आशिल्लें असल-इ-जमा- इ. ताणें सुर्वेक पुराय भुंयेची पळोवणी करून मेजणी केली आनी तिचे तीन वांटे घाले आनी खंड थारायले. बंगालांतल्या कायम खंड पद्दतीची सुरवात ताणेंच घाली. तशेच वहीखातें आनी हुंडीची चाल ताणेंच हाडली. वसूल पद्दतीवरीच ताणें टांकसाळीतय उदरगत घडोवन हाडली. तशेंच मोहरा आनी रुपया हांचीं नवीं नांणी काडलीं. पुराय महसूल खात्यांत ताणें हिंदी जाग्यार फार्शी भाशेचो उपेग केलो. प्रमाणीक प्रशासक, बरो सेनानी आनी खर स्वधर्माभिमानी म्हणून ताची नामना आशिल्ली. ताणें रचिल्ल्यो कांय नीतिपर कविता हिंदीत उपलब्ध आसात. तशेंच 'तोडरानंद' नांवाचो ताच्या धर्माविशींच्या विश्वकोशरूप ग्रंथाची नामना आसा. नारायण भट्टान ताच्या आनी लोकांच्या आदारान मुसलमानांनी तोडिल्लें काशी विश्वनाथाचें देवूळ परतें बांदलें अशी समजूत आसा.

– कों. वि. सं. मं.

## तोडरमल -२ : (जल्म : १७४०, जयपूर, राजस्थान; मरण : १७७२).

राजस्थानांतल्या खंडेलवाल जातींतलो एक जैन पंडीत. ताच्या बापायचें नांव जोगीदास अशें आशिल्लें. ताणें संस्कृत आनी प्राकृत ग्रंथांतलें जैन तत्त्वगिन्यान लोकांक समजतलें अशें हिंदी भाशेंत बरयलां. गोम्मटसारवचनिका हो ताचो सगळ्यांत नामनेचो ग्रंथ. हो ग्रंथ म्हळ्यार नेमिचंद्राच्या गोम्मटसारावयली टिका. ताचो दुसरो ग्रंथ म्हळ्यार त्रैलोक्यसारवचनिका. हो एका प्राकृत ग्रंथाचो अणकार. तातूंत जैन मताप्रमाण धर्तरेचें आनी खगोलाचें वर्णन दिल्लें आसा. ताणें गुणभद्रस्वामीच्या

आत्मानुशासन नांवाच्या आध्यात्मिक संस्कृत ग्रंथाचो हिंदी अणकारय केल्लो आसा. हाचेभायर पुरुषार्थसिध्युपायकी वचनिका आनी मोक्षमार्गप्रकाशक हे दोन अर्दकुटे ग्रंथ ताच्या नांवाचेर आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**तोडा :** एक आदिवासी जमात. दक्षिण भारतांतल्या, तमीळनाडू राज्यांतल्या निलगिरी पर्वताच्या तीन ते पांच हजार फूट उंच सड्याचेर ह्या लोकांची वसती आसा. तशेंच कुन्नूर आनी उटकमंड ह्या तालुक्यांनी तोडा लोकांची वसती आसा.

तोडा लोकांचे उत्पत्तीविशीं खूब आख्यायिका आसात. पूण अजून तांचे उत्पत्तीविशीं निश्चीत पुरावो मेळूंकना. कांय तज्ञ लोक तोडांचो संबंद पुर्विल्ल्या ज्यू आनी सुमेरियन संस्कृतीकडेन लायतात.

तोडा लोकांचे वसणुकेक माड वा 'मांड' म्हण्टात. दरेका मांडांत पांच - स खोंपी आसतात. तातूंतली एक गोठ्याक म्हळ्यार दुदाखातीर, एक गोरवांक आनी तीन घरांतल्या लोकांक रावपाखातीर आसतात. तांच्यो खोपी कोंड्यांच्यो आसून, तांचेर तणाचें पाखें आसता. खोंपींची लांबाय सुमार अठरा फूट, रुंदाय णव फूट आनी उंचाय धा फूट आसता. तांचो आकार अर्दगोलाकार आसून तांकां जनेलां वा दारां नासतात. पूण भितर वचपाखातीर अडेज - तीन फूट ऊंच आनी देड-दोन फूट रूंद अशी एक वाट आसता. खोंपींत एके वटेन ओटो आसता. ताचेर शेंदरी वा म्हशीचें कातडें घालून ते न्हिदतात. दुसरे वटेन जेवण रांदतात.

रावपाचे खोंपीपसून मात्शें पयस, तांचें दुग्धालय आसता. ताका 'टी' म्हण्टात. तातूंत दोन कुडी आसतात. एके कुडींत 'दुददुभते' आनी दुसरे कुडींत 'पाला' हो तांचो पुजारी रावता. पाला ब्रह्मचारी आसून हें व्रत तो अठरा वर्सां पाळटा. ताचे वांगडा 'काल्टमोख' म्हणून भुरगो आसता. तशेंच चार उपाध्याय आसतात. वरझाल, कोकवली, कुरपुली आनी पालीकर फाल. बायलो फकत ताक हाडपाक वा थरावीक वेळारूच दुग्धालयांत वतात. हेर वेळार तांकां थंय वचपाक बंदी आसता.

तोडा लोकांच्यो बायलो सुंदर आसून त्यो रंगान तांबशा - गोऱ्या वर्णाच्यो आसतात. त्यो केंसांक लोणी लावन फाटीर सोडटात. गळ्यांत अर्काट नांवाच्या मणयांची माळ, उजव्या दंडांत आनी दाव्या मनगटांत रुप्याचीं कडीं, दाव्या हाताच्या बोटांनी पितुळच्यो आनी उजव्या हाताच्या बोटांनी रुप्याच्यो मुदयो, कानांतलीं आनी कंवचेचीं वा पितुळचीं कांकणां अशे अलंकार घालतात. दिव्याचे काजळीन त्यो दाव्या हाताचेर, खांद्याचेर आनी गळ्या सकयल पाडून घेतात. रांदप, भुरग्यांक सांबाळप, उदक हाडप तशेंच भात कांडप हीं तांचीं सदांचीं कामां आसतात.

तोडांची एक स्वतंत्र बोली आसून तिचें कन्नड आनी तमीळ भाशांकडेन साम्य आसा.

तोडा दादले गंवाळी वर्णाचे, ऊंच, बळिश्ट आसतात. तांचे तकलेर दाट केंस आसून ते लांब खाड दवरतात. ते कमराक लंगोट आनी गळ्यासावन पांयांमेरेन सगळें आंग 'पुटकुळी' नांवाच्या एका धव्या वस्त्रान धांपतात. त्या कपड्याचेर निळ्या, काळ्या आनी तांबड्या सुतान भरतात.

ताकांत शिजयल्लें शीत, गोड घालून केल्ली तांदळाची खीर, ताक, लोणी, तूप हें तांच्या सदांच्या जेवणांतले जिन्नस आसतात. तशेंच ते रानांतल्यो पालेभाजयो आनी रानफळां खातात. वर्सांतल्यान एकदां सणा-परबेक म्हशीच्या रेडकाक बळी दिवन, उपरांत ताचें मास खातात.

तियाकिर्जी आनी ओन ह्यो तोडांच्यो मुखेल देवता. तियाकिर्जी ही बायल देवता इहलोकाचेर अधिपत्य करता आनी ओन हो दादलो देव मेल्ल्या लोकांचेर सत्ता चलयता. तेच भाशेन तोडा लोक बेट्टकरस्वामी, रंगास्वामी, करमदाई, मरिअम्म, श्रीकंठेश्वर, पार्वती ह्या देवांकूय भजतात.

टारथरोल आनी तायवलिओल अशे तोडा लोकांचे दोन भेद आसात. टारथरोल स्वताक तायवलिओल हांचेपरस उच्च समजतात. आपलेकडेन बरे प्रतीचीं दुग्धालयां आनी म्हशी आसात अशें ते मानतात. पूण तांच्या दुग्धालयाचे पुजारी मात तायवलिओल हेच आसतात. तांच्या दोनूय पोटजातींचीं कांय गोत्रां आसात. एकेच पोटजातींत पूण विंगडविंगड गोत्रांनी लग्न संबंद जातात. आते-मामे भावंडांचें लग्न प्रशस्त मानतात.

तोडा लोकांचो लग्नसुवाळो सामको सादो आसता. ल्हान पिरायेंतूच चलयांचीं लग्नां करतात. पूण चली वयांत येवंचेपयलीं ती बापायगेरूच रावता. ती वयांत येतकच हेर खंयच्याय गोत्रांतल्या चल्याकडेन तिचो समागम घडोवन हाडटात. चलयेक फुडें जल्मभर दांपत्यसूख मेळचें ह्या उद्देशान तोडा लोक हो संस्कार करतात. तोडा चलयेचें एका दादल्यावांगडा लग्न जालें, तरी तिच्या देरांकूय तिचे घोव मानतात. तोडा दादले - बायलांचे लैंगीक वेव्हार लग्नापुरतेच मर्यादीत नासतात. बायलेक कितल्याय दादल्यांवांगडा संबंद दवरूं येतात. ताका लागून तिच्या अपत्याचो खरो बापूय कोण हें समजना. पूण समाजीक नदरेन भुरग्याचो बापूय थारावप गरजेचें आसता. ताका लागून ते पुरसुटपिमी नांवाचो विधी करतात.

तोडा लोक मडीं लासतात. बायलो आनी दादले हांचेखातीर वेगवेगळ्यो मसंड्यो आसतात. मरतकच रेडे बळी दिवप गरजेचें मानतात. उपरांत दादले नाच करतात. मड्यावांगडा गोड, तांदूळ, बड्यो, कोंड्याचीं आयदनां, धनुश्यबाण, सुरी, ताडपत्री, सत्री ह्यो वस्तीय लासतात. कांय म्हयन्यांउपरांत दुसरो विधी करतात. तेन्ना ताचे कवटेचो भाग, अस्थी, केंस हे अवशेश लासतात. ह्या वेळारूय रेडे बळी दितात. उपरांत समाजांतल्या लोकांक जेवण घालतकच नाच जाता. ते उपरांत येवपी पुनवे दिसा शुद्दिसंस्कार करतात.

तोडा लोकांची जातपंचायत आसता. लग्न आनी दुदाचो वेवसाय हे संबंदीचे विधी केन्ना आनी कशे करप हें थारावप हें पंचायतीचें काम आसता.

म्हशी पोसप आनी दूद काडप हो तोडा लोकांचो मुखेल वेवसाय. पूण जातींतलो मनीस मरत जाल्यार रेडे बळी दिवपाची चाल आसा. ताका लागून म्हशी आनी रेड्यांचें प्रमाण उणे जायत चललां. तेखातीर सद्या तोडा लोकांक पहारेकरी,शिपाय असले वेवसाय करचे पडटात.

– कों. वि. सं. मं.

**तोणयांमेळ :** गोयांत शिगम्या वेळार जावपी एक लोकनृत्य प्रकार. तोणयांच्या तालार तालगडी नाचाभाशेन हें नृत्य करतात.

हें नृत्य करतना कमराक कांसाटयाचें धोतर, धवो सदरो आनी तकलेक तुवाल्याचो 'मुंडासो' असो भेस करतात. गळ्यांत आनी हातांत आबोल्यांचे झेले घालतात. तशेंच मुंडाशाकूय आबोल्यांचे झेले खोयतात. पांयांक घुंगरू बांदतात.

नाचता आसतना तोणयां वांगडा घुमट, समेळ, कांसाळें, झांज हांची साथ आसता. केन्नाय शेनाय आनी सूर्त आसता.

तोणयांमेळ खेळांत आठ नृत्यप्रकार सादर करतात. चौरंग हे पद्धतीन-

'गुरूसी रामराम केलारे गुरू
खेळयाची तोणी दिला मू.

ह्या उतरांनी ह्या नृत्याक सुरवात जाता. उपरांत

'विश्वामित्र शोभे आला
मागतो माझ्या रामाला
घाटावयल्या बायला कोणकोण शिंगा
'म्हादेवा देवळां भांगरा लिंगा ....'
रयबार रयबार मना रे पापी
झितांची झितमार दिना मू
कोलो ननाना सोंगे नवले
कोलो ननानी कोलो ननानी श्री गे नवले

हे सारकीं पुराय अर्थ मेळनाशिल्लीं पदां म्हण्टात. समाजीक चलणुकीचेर उजवाड घालपी वा बकच्छायो करपी गितांय म्हण्टात. पूण चड करून गितांनी रामकृष्ण, रुक्मिणी, पांडुरंग ह्या देवांचो उल्लेख आसता. वाठारांप्रमाण हीं पदां बदलतात.



शिगम्या वेळार देवळाचे मुखावयले सुवातेर वा व्हडा आंगणांत तोणयांमेळ खेळटात. तोणयांमेळांतले गडे वाटकुळेच एकमेकांक फुडो करून उबे रावतात आनी मुखावेल्याचे तोणयेर तोणी मारीत तालगडी सारकेच नाचतात.

हो कठीण असो नृत्यप्रकार आशिल्ल्या कारणान हालीं तेंपार तोणयांमेळ खेळप उणो जालो. तरी आसतना कांय थोड्या गांवांनी तोणयांमेळ खेळटात. काणकोण आनी पेडणे वाठारांत तोणयांमेळ खेळपी खांपे गडे मेळटात. तोणयांमेळ नृत्य आनी टिपरी, दांडीयारास, गर्बानाच ह्या नृत्यांमदीं सारकेंपण दिसता.

– कों. वि. सं. मं.

**तोफ :** (पळेयात नाळ).

**तोरण :** सादारणपणान मंगलकार्य, तेचपरी धर्मीक वा समाजीक सुवाळ्या वेळार माटवाच्या मुखेल दाराचेर आंब्याचीं पानां, फुलांच्यो माळो बांदून जी सजावट करतात ताका तोरण म्हण्टात. तोरण हें मंगलकारक मानतात. संस्कृत साहित्यांत अशा तोरणाचो उल्लेख जायतेकडेन मेळटा. कालिदासाच्या मेघदुतांत इंद्रधनुश्यासारक्या सुंदर तोरणाचो उल्लेख आयला. तोरणा वयल्यान तुकां आपलें घर सारकें वळखूंक येतलें अशें तो मेघाक सांगता –

तन्नागारं धनपतिगृहानुत्तरेणास्मदीयं
दुराल्लक्ष्यं सुरपतिधनुश्चारुणा तोरणेन ।

तोरणाचीच फुडें उदरगत जावन कालांतरान कमानीवरी तोरणां बांदपाची चाल सुरू जाली. शींवासनां, रथ, प्रवेशदारां आदी जाग्यांचेर हीं तोरणां कोरिल्लीं वा बांदिल्लीं मेळटात. हीं तोरणां सोबायेखातीर आसतात. वाटकुळीं अर्दवाटकुळीं, त्रिकोणी, धोणवाकार अशे तांचे तरेकवार प्रकार मेळटात. तोरणां तयार करपाचें तंत्र आनी तांचीं मापां मानसार ह्या ग्रंथांत सविस्तर दिल्लीं आसात. थंय तोरणांचे चार वर्ग दिल्यात ते अशे – १) पत्र तोरण २) पुश्प तोरण ३) रत्न तोरण ४) चित्र तोरण. तोरणांचेर पानां, फुलां, रत्नां, देव, यक्ष, किन्नर, नुस्तें, सोरोप, शींव आदींच्यो आकृतायो कोरिल्ल्यो आसतात. हाचेवयल्यानच तांकां तीं नांवां मेळ्ळ्यांत. दोन खांब्यांचेर तिट्टी कमानी बांदून ताच्या मदल्या जाग्यार जाळीदार नक्षी केल्ली आसता. हाका जाळेंतोरण म्हण्टात आनी अशा तोरणांचो उल्लेख रामायणांत आसा.



सांची आनी भरहूतच्या स्तूपां भोंवतणीं ज्यो वेदिका आसात, तातूंत जायतीं तोरणां बांदिल्लीं दिसतात. तांचेर बुद्धाचे जिणेंतले प्रसंग तशेंच जातकांतल्यो आनी इतिहासांतल्यो घडणुको कोरिल्ल्यो आसात. तातूंत बुद्धाचे पांय, आसन, बोधिवृक्ष, धर्मचक्र हीं तांचीं प्रतिकां आसात. पूण तांची मूर्त मात खंयच दिसना.

जैन तीर्थकरांचे मुर्ती वयर जी त्रिकोणी कमान आसता तिकाय तोरणच म्हण्टात. ही दोन खांब्यांचेर आदारिल्ली आसून तिचेर कोरीव काम आसता. ह्या तोरणार सदांच कळस आसता.

आर्विल्ल्या काळांत तरेकवार तोरणांचे प्रकार घराघरांनी सणां-परबां वेळार लायिल्ले दिसतात. तेचपरी हालींसरा वीणकाम केल्लीं तोरणां वापरपाची पद्दतय आयल्या, तांचेच जोडयेक प्लास्टीक तोरणांचोय वापर जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**तोरणमाळ :** महाराष्ट्रांतल्या धुळे जिल्ह्याच्या अक्राणी तालुक्यांतलें थंड हवेचें थळ आनी एक नाथपंथी क्षेत्र. धुळेचे उत्तरेक सुमार १४५ किमी. अंतराचेर हें शार आसून शहादे-राणीपूर रस्त्यान हांगा मोटारीन वचूंक मेळटा. हो गांव सातपुडा पर्वताच्या सदां पाचवेचार सृश्टीत नटिल्ले दोंगरामाळेंत १,०३६ मी. उंचायेचेर वसला. हांगाचें तापमान ४.४° सॅ. ते १५.५° सॅ. आनी पावस १०१.६ सेंमी. आसता. आदल्या तेंपार हांगा मांडू वंशाच्या राज्याची राजधानी आशिल्ली. ह्या दोंगरार व्हड पूण अशीर असो सुमार ४१ चौ. किमी. चो सडो आसा. हांगा सोबीत अशें सैमीक यशवंत तळें, देड किमी. अंतराचेर आशिल्ली सीताखाई दरी, प्रतिध्वनी तोंक आदी पळोवपासारकीं थळां हांगा आसात. ह्या दोंगरार गोरखनाथ, पारसनाथ आनी नागार्जुन हांचीं देवळां आसून एक नाथपंथी मठ आसा. हांगा दर वर्सा अश्विन म्हयन्यांत जात्रा भरता.

– कों. वि. सं. मं.

**तोरणवंदना :** राजस्थानी लग्नांतलो एक विधी. लग्ना दिसा व्हंकलेच्या घराच्या मुखेल दारार एक लाकडी रंगीत तोरण बांदतात. लग्नाखातीर जेन्ना न्हवरो व्हंकलेगेर येता, तेन्ना तो घरांत प्रवेश करचेआदीं त्या तोरणाचेर तरसादीन सात वार करता. हाका तोरणवंदना वा तोरण मारप अशें म्हण्टात. पुर्विल्ल्या काळांत स्वयंवराखातीर जमिल्ले राजा आनी राजकुंवर हांचेमदीं व्हंकलेनिमतान संघर्श जावन तरसादीचो खणखणाट जातालो. ताचें प्रतीक म्हणून तोरणवंदना हो विधी करतात, अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**तोरींग :** (मराठी : पपनस, बंपारा; इंग्लीश : शॅडॉक, पमेलो; लॅटीन: सिट्रस ग्रॅंडिस, सि. डिकुनामा, सि. मॅक्सिमा; कूळ : रुटेसी).

ही लिंबू वंशांतली वनस्पत सुमार ४-५ मी. ऊंच वाडटा. झाडाक १५-२० सेंमी. व्यासाचीं वाटकुळीं फळां लागतात. फळांचें सरासरी वजन सुमार दोन किलो आसता. पांच कील वजनाचीं लेगीत फळां आसूं येतात. फळांत तांबशा रंगाचो गर आसता.

ही वनस्पत मूळ मलेशिया आनी पॉलिनीशिया देशांतली. जावा ह्या देशांतल्यान ती भारतांत आयली असो उल्लेख मेळटा. तोरींगाची लागवड अमेरिका, स्पेन, इटली, जपान, अर्जेंटीना, मेक्सिको, ब्राझील, मोरोक्को, इस्त्रायल, इजीप्त ह्या देशांनी करतात. भारतांत ह्या पिकाची व्हडलीशी लागवड ना. पंजाब, महाराष्ट्र, कर्नाटक, तमीळनाडू ह्या राज्यांनी तोरींगाची लागवड थोड्याप्रमाणात करतात. गोंयांत वेपारी तत्त्वाचेर ह्या पिकाची लागवड केल्ली दिसना. हीं झाडां गोंयच्या कुळागरांनी, भाटांनी आनी पोरसांनी लायिल्लीं दिसतात.

भारतांत ह्या पिकाच्यो सुदारीत अशो जाती विकसीत करूंक ना. पूण हेर देशांनी कांय जाती विकसीत करून वापरात आसात त्यो अशो - डंकन, फोस्टर, रॉयल, मार्श, थॉम्सन आनी रूबी.

२०° ते ३७° सॅ. तापमानांत ह्या पिकाची वाड बरी जाता. चड प्रमाणांत धुकें आनी थंडी ह्या पिकांक सहन जायना. लागवड करपाखातीर बऱ्या निचऱ्याची आनी सुपीक जमीन वेंचतात. लागवड बियांपसून वा कलमां लावन करूं येता. जून म्हयन्यांत ६X६मी. अंतराचेर ६०X६०X६० लांब, रुंद आनी खोल नेमां मारतात. ह्या नेमांनी अर्द किलो मसुरी फोस्फेट, अर्द किलो स्टेरामील आनी १०० ग्रॅ. बी. एच. सी. १०% घालतात. सारें दिल्यार तोरींगाचें झाड बरें वाडटा आनी चड फळां दिता. एक वर्स पिरायेच्या झाडाक १०० ग्रॅम नत्र, ५० ग्रॅम स्फुरद आनी ५० ग्रॅम पलाश दिवंचें. हें प्रमाण वर्सान वर्स वाडोवन आठ वर्सां आनी ताचेवयल्या पिरायेच्या झाडाक ८०० ग्रॅम नत्र, ४०० ग्रॅम स्फुरद आनी ४०० ग्रॅम पलाश दिवंचें. तेभायर शेण, कंपोस्ट, ह्या सारक्या सेंद्रिय साऱ्याचो वापर करचो. झाडाक थंडे तेंपार आठ दिसांनी एकदां जाल्यार गिमातेंपार चार दिसांनी एकदां उदक दितात. सप्टेंबर ते नोव्हेंबर ह्या तेंपार फळां तयार जातात. एका झाडापसून सरासरी १०० फळां मेळटात. ह्या झाडाक रोग किडीचो त्रास चड करून जायना. केन्नाय डींक्या आनी खैऱ्या ह्या रोगांची लागण जांवक शकता.

तोरींगाच्या फळांत अ, ब आनी क हीं जीवनसत्वां आसतात. फळ, फळाची साल, पानां हांचो बरोचसो वखदी उपेग जाता. पानांचो रस कोले खांकीचेर वापरतात. फळांचो रोस पोटाचे विकार बरे करता. जेवतकच मुखशुद्दीखातीर तोरींगाचो गर खातात. फळाच्या रसापासून स्कॉश, सिरप तयार करतात.

- विश्राम गांवकार

**तोळकाप्पियम :** तमीळ भाशेंतलो एक पुर्विल्लो व्याकरणग्रंथ. अगस्तीचो शिश्य तोळकाप्पियर हो ताचो कर्तो. ह्या ग्रंथाचे तीन भाग आसात. पयल्या भागांत शब्द आनी ध्वनी हांची भासाभास, दुसऱ्या भागांत शब्दांची उत्पत्ती, शब्दसंधी आनी वाक्यरचना हांचें विवेचन आनी तिसऱ्या भागांत समकालीन रीतिरिवाज आनी आचारविचार हांची म्हायती दिल्ली आसा. देखून ह्या ग्रंथाक व्याकरण शास्त्रावरीच सांस्कृतिक नदरेन म्हत्व मेळ्ळां. उपलब्ध आशिल्ल्या तमीळ साहित्यांतलो हो आद्य ग्रंथ समजतात.

तोळकाप्पियमांत तमीळ आनी संस्कृत भास तेचपरी आर्य आनी द्रवीड संस्कृती हांचो सोबीत मेळ घडून आयला. ह्या ग्रंथाच्या दुसऱ्या भागांत संस्कृत शब्दांक तमीळ भाशेंत आस्पावपाची प्रक्रिया सांगल्या. देखीक अक्षरम् → अक्करम्, वर्त → वर्तई, रूपम् → उरूवम्, क्षणम् → कणळ. तोळक्काप्पियमाच्या तिसऱ्या भागांतले समाजस्थितीचें वर्णन पळेल्यार अशें दिसता, त्या काळांत द्रवीड संस्कृतीन आर्य संस्कृतींतल्या जायत्या सत्वांशांचो स्विकार करून दक्षिणेंत संस्कृती संगमाचो एक आदर्श निर्माण केल्लो. काव्याचे नदरेन ह्या ग्रंथाक सोबीतकाय आसा.

जैन विचारांचोय ह्या ग्रंथाचेर बरोच प्रभाव दिसता.

तातूंतल्यो कांय ओळी अशो -

विरितिरैप्पेरुङ्कडल् अमिलदत्तन्न
ओरुमुदर्कडवुळ्, निर्परवुढुम्, 'तिरुवोडु'
शुर्रम्, तलीई, कुर्रम् नीक्कि
तुन्बम्, तोडरा इन्बम् एयदि,
कूरूत्तलै पनिक्कुम्, आर्रल्, शान रु,
कलिपेरुञ शिरप्पिन् वलिवलि पेरुही,
नन्ररी पुलवर् नाप्पण्
वेनरियोडु विळङ्गि मिकुकम् याम् एनवे.

**अर्थ** - समुद्रमंथनातल्यान जशें अमृत वयर येता तशें हे सुर्या, तूं दर्यांतल्यान वयर येता. हे आदिदेवा आमी तुजी उपासना करतात. आमकां भरपूर आस्पत आनी मोगाळ साबार लोकांचो सुखद सहवास मेळूं. आमकां वायट करण्यांपसून पयस कर, आमकां आनंद मेळूं आनी आमच्या आंगांत अशी शक्त येवं जिचेखातीर आमकां मरणार लेगीत जैत मेळूं. सुज्ञांच्या मेळाव्यांत जैतांच्या मुखामळान बसपाचें भाग्य आमकां मेळूं.

- कों. वि. सं. मं.

**त्यागराज :** (जल्म : ४ मे १७६७, तिरुवारूर, तंजावर; मरण : ६ जानेवारी १८४७, तिरुवैयारू).

कर्नाटक संगितांतलो एक व्हड रचनाकार, संगिताचार्य आनी गायक.



ताच्या बापायचें नांव रामब्रह्मम आनी आवयचें सीताम्मा. ल्हानपणासावनच

तो तल्लख बुद्धीचो आशिल्लो. तेलुगू आनी संस्कृत भाशांचें ताका बेसबरें गिन्यान आशिल्लें. ल्हानपणांत तो घराच्या वण्टींचेर आपल्यो रचना बरोवन दवरतालो. गुरू सोंटी वेंकटरमणय्या हाचेकडेन ताणें एका वर्साभितर संगिताचें शिक्षण पुराय केलें. तो रामभक्त आनी साधुवृत्तीचो आशिल्लो. तंजावर महाराज दुसरो तुळजाजी (१७६५-८७) हाचे विनवणेप्रमाण रामनमीच्या उत्सवांत ताचो बापूय रामब्रह्म दरबारांत रामायणाचेर प्रवचनां करतालो. तेन्ना तो श्लोकपठण करतालो. ताका अभिजात प्रतिभेची देणगी लाबिल्ली. तेलुगू भाशेंत तो सहजपणान कवनां रचतालो आनी तीं कवनां वेगवेगळ्या रागांनी बसोवन रामामुखार तीं गायतालो. थोड्याच दिसांनी ताची नामना तंजावराच्या राजाच्या कानार पावली. ताणें ताका आपल्या दरबारांत आपयलो. पूण रामभक्तीखातीर ताणें राजाचे विनंतीक न्हयकार दिलो.

फुडें ताचेकडेन गायन शिकपाखातीर जायते शिश्य येवंक लागले. तिरुवैय्यरच्या आपल्या आश्रमांत तो शिश्यांचे कुवतीप्रमाण उदार मनान संगिताचें शिक्षण दिवंक लागलो. गांवांत भोंवन माधुकरी मागून तो आपलो, आपल्या शिश्यगणांचो आनी अतिथींचो चरितार्थ चलयतालो. ताणें आपल्या शिश्यांवांगडा कांची, तिरुपती आदी सगळ्या म्हत्वाच्या तीर्थथळांची पदयात्रा केली.

त्यागराजाचो काळ कर्नाटक संगिताचो भांगरा काळ मानतात. ताका दिव्य आवाजाची देणगी लाबिल्ली. तो कवी, संत आनी तत्त्वज्ञ आशिल्ल्यान ताचे कृतींत बुद्धी, भावना, तत्त्वीक विचार, साहित्यगूण, उत्कट अशे भक्तीभाव, रचनाकौशल्य आनी भाव-राग-ताल हांचो बेस बरो मेळ घडून आयिल्लो दिसता. नादरचनेची सुरवात ताचेपसुनूच जाली अशें म्हणप जाता. रामायणाचो तो एकलो एकसुरो 'वाग्गेयकार' आनी संगितसिद्धांती आसून भजनांचो नवो संप्रदाय (दिव्यनाम किर्तनां आनी उत्सव संप्रदाय किर्तनां) ताचेपसुनूच सुरू जालो. ह्या कारणांखातीरच ताका 'भुलोकनारद' हें नांव मेळ्ळें.

त्यागराजाच्यो कृती ताचे जिणेच्या अणभवांची गवाय दितात. त्यो फक्त संगीत रचनाच न्हय तर तातूंत पावला कणकणीं आध्यात्मिक विचार उकते जातात. देखुनूच तो एक सर्वश्रेश्ठ भक्त आनी संगीततज्ञ कवी म्हणून ताची नामना आसा.

मरणाआदीं ताणें सन्यासाश्रम आपणायल्लो. कावेरी न्हंयेचे देगेर ताचे निमाणे संस्कार जाले. तिरुवैयरूक ताच्या गुरूच्या शेजराच ताची समाधी आसून वर्सांतल्यान दोन खेपे (एप्रिल आनी जानेवारी) व्हड प्रमाणांत त्यागमहाराज महोत्सव मनयतात.

दोनशांपरस चड रागांमदीं त्यागराजाच्यो सुमार १,००० कृती उपलब्ध आसात. 'सोगसुगा मृदंग तालमू' (श्रीरंजनी राग) हे आपले रचनेंत ताणें आदर्श कृतीचें लक्षण दिल्लें आसा. 'प्रल्हादभक्तिविजयम्', 'नौकाचरित्रम्' आनी 'सीतारामविजयम्' ह्या ताच्या संगितीकांची खुबूच नामना आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**त्राटक :** योगविद्येंतली एक क्रिया. हें एके तरेचें ध्यानूच. हाचे आंतर त्राटक आनी बाह्य त्राटक अशे दोन प्रकार आसात. दोगांयचोय उद्देश मनाक एकाग्र करप होच आसा. दोळे बंद करून खंयचेय एके वस्तूचेर मन थीर करप आनी ते वस्तूक आंतरीक नदरेन पळेत रावप, हाका आंतर त्राटक अशें म्हण्टात. मोहिनी विद्येचो अभ्यास करपी साधक आंतर त्राटकांत एका उजवाडबिंदूचेर मन केंद्रीत करतात. योगी मात इश्ट देवतेचेर मन केंद्रीत करपाखातीरूच आंतर त्राटकाचो उपेग करतात.

खंयच्याय एका भायल्या साधनाचेर नदर थीर दवरून मनाक एकाग्र करपाचे क्रियेक बाह्य त्राटक अशें म्हण्टात. बाह्य त्राटकाचें योगशास्त्रीय लक्षण अशें –

निरीक्षेन्निश्चलदृशा सूक्ष्मलक्ष्यं समाहितः ।
अश्रुसम्पातपर्यन्तमाचार्यैस्त्राटकं स्मृतम् ॥

**अर्थ** – दोळ्यांतल्यान उदक येसर एकादऱ्या सूक्ष्म लक्ष्याचेर नदर केंद्रीत करपी क्रियेक आचार्य (बाह्य) त्राटक अशें म्हण्टात.

मनाची शक्त चड करून दोळ्यांवरवीं भायर येता. नदर खंयचेय एके वस्तूचेर थीर केल्ल्यान मनाची शक्त एकठांय जाता आनी नदरेन प्रवाहचुंबकत्व वाडटा. अशे नदरेक वेधक नदर अशें म्हण्टात. त्राटकाक लागून दोळ्यांचे सगळे रोग पयस जावन आळस आनी हेर विकार पयस जातात अशें शास्त्रीय विवेचन आसा.

वेधक नदरेक लागून दुसऱ्याच्या मनाची भितल्ली स्थिती जाणूं येता. अज्ञात आनी अप्रकट वस्तूंचो सोद लावं येता आनी हेरांक प्रभावीत करून आपले इत्सेप्रमाण वागूंक लांव येता, अशे कितल्याशाच जाणांचे अणभव आसात.

बाह्य त्राटकांची क्रिया अशी – एक हात लांब आनी एक हात रूंद कागद वा पापेलांव घेवन ताचे मदेगाक रुपयांच्या आकारचें एक वाटकूळ काडटात. त्या वाटकुळाच्या बरोबर मदीं सांसवायेदी धवी सुवात सोडून तातूंत हळदुवो रंग भरतात. मागीर हो कागद वण्टीचेर हुंबकळावन ताचे मुखार चार हात अंतराचेर बसतात आनी त्या सांसवायेद्या हळदुव्या बिंदूचेर नदर थीर करतात.

ही क्रीया करपाक सकाळचो वेळ बरो, अशें समजतात. त्राटक करून जातकच गुलाबपाण्यान वा ताच्या गाळिल्ल्या उदकान दोळे धुतात.

– कों. वि. सं. मं.

**त्रिचूर (थ्रुसुर) :** केरळ राज्यांतल्या त्रिचूर जिल्ह्याचें आनी तालुक्याचें मुखेल ठाणें. एक पुर्विल्लें तीर्थक्षेत्र. हें शार मलबार देगेर एर्नाकुलमाचे उत्तरेक ६० किमी. चेर वसलां. ह्या शाराचे स्थापनेविशीं जायत्यो आख्यायिका सांगतात. ताची स्थापणूक परशुरामान केली अशें म्हण्टात. सामूरी (१७६०), हैदर अली (१७७४) आनी टिपू सुलतान ९१७८९) हांणी ह्या शाराचेर घुरी घाल्ली. १७७४त शाराभोंवतणीं तट बांदिल्लो. ह्या शारांत रेल्वेस्थानक आशिल्ल्यान वेपारी नदरेन ताका म्हत्व आयलां. हांगा कपडे, लाकूड, उद्योग, विटो, नळे तयार करप आदी उद्देगधंदे चलतात. शारांत ॲल्युमिनियम आनी शिमीटाचे कारखाने आसात. हांगाचे पुथेनपल्ली इगर्जेची भारतांत नामना आसा.

शाराचे मदीं केरळी शिल्पशैलीचें 'वदकुन्नाथन' नांवाचें नामनेचें शिवाचें देवूळ आसा. ह्या देवळाचो आवांठ बरोच व्हड आसा. देवळाभोंवतणीं फातराचो दुरीग आसून ताका चार गोपुरां आसात. मुखेल देवळाभोंवतणीं हेर जायतीं देवळां आसात आनी सगळ्या देवळांनी लाकडाचेर सुंदर नक्षीकाम केल्लें दिश्टी पडटा. हांगा सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांतलीं वण्टीपत्रकां पळोवंक मेळटात. वैशाख म्हयन्यांत हांगा 'पूरम' नांवाचो वर्सुकी उत्सव मोटे उमेदीन मनयतात. त्या वेळार हतयावयल्यान मिरवणुको काडटात. त्रिचूर हें सिरीयन क्रिस्तांवाचें एक म्हत्वाचें केंद्र मानतात.

– कों. वि. सं. मं.

**त्रिनिदाद आर्मांदु :** (जल्मः अस्नोडें, बारदेस).

पाकिस्तानांतल्या लाहोर वाठारांतलो गोयकार बिशप. १९५० वर्सा तो पाद्री जालो. १९७३ त ताची बिशप म्हणून नेमणूक जाली. उपरांत तो आपले डायोसेझीखातीर वावर करूंक लागलो.

– कों. वि. सं. मं.

**त्रिनिदाद, जुआँव झेवीयर द सौझ :** (जल्म : आसगांव).

एक गोयकार धर्मप्रचारक. तो सुर्वेक डोमनिकन आशिल्लो. १८२२ त तो डोमनिकनाचो प्राथर आशिल्लो. उपरांत तो १८३० त धर्मशास्त्राचो प्रोफेसर जालो. १८४२ तो मलाकाचो बिशप म्हणून वेंचून आयलो, पूण ताचो अभिशेक जालोना. उपरांत तो मोझांबीकाचो एपीस्कोपल गव्हर्नर जालो (१८५६ - १८६४).

– कों. वि. सं. मं.

**त्रिपिंडी श्राद्ध :** तिर्था जाग्यार (पवित्र क्षेत्रार) पितरांखातीर जें श्राद्ध करतात ताका त्रिपिंडी श्राद्ध अशें म्हण्टात. आपल्या कुळांतले दुर्गतीक गेल्ले आनी कुळांतल्या लोकांक पिडा दिवपी जे पितर आसतात तांचें प्रेतत्व वचून तांकां सद्गती मेळची देखून त्रिपिंडी करपाची पद्दत आसा. ताचो विधी असो - सुर्वेक तीर्थांत न्हावन श्राद्धाचो संकल्प करतात, उपरांत महाविष्णूची आनी श्राद्धाखातीर आपयिल्ल्या ब्राह्मणांची श्राद्धविधीन पुजा करतात. यव, व्रीही आनी तीळ हांचो एकेक पींड तयार करतात. दर्भ पातळावन ताचेर तिळांचें उदक शिंपडायतात आनी पींडदान करतात. पिंडार साकर, म्होंव, तूप एकठांय करून घालतात. हाका मधुरत्रय अशें म्हण्टात. बापायच्या आनी आवयच्या वंशांतल्या ज्या मेल्ल्या मनशांची उत्तर क्रिया जावंक ना, जांकां भुरगीं नाशिल्ल्यान पींडदान करप जालें ना, वा जल्मताच जे आधळे पांगळे आशिल्ले अशा पितरांचें प्रेतत्व नश्ट जावन तांकां सद्गती मेळपाखातीर तिनूय पींड दिवपाचे आसतात. तातूंत मधुरत्रय घालून यवपींड दिल्यार पीतरांक सद्गती मेळटा.

मधुरत्रय घालून ब्रीहीपींड दिल्यार अंतरिक्षांत आशिल्ल्या पितरांक सद्गती मेळटा, जाल्यार धर्तरेचेर क्षुद्र योनींत रावन हेरांक त्रास दिवपी पितरांक मधुरत्रय घालून दिल्ल्या तीळपिंडान सद्गती मेळटा अशें सांगलां. ह्या तीनय पिंडांचेर तिळांचें उदक दितात. मागीर पिंडाची पुजा करून अर्ध्य दितात. विष्णुखातीर तर्पण करतात. ब्राह्मणाक जेवण दिवन ताका दक्षिणा म्हणून कपडो, आयदन, आयणो आनी जोतें ह्यो वस्तू दितात.

– कों. वि. सं. मं.

**त्रिपिटक :** बौद्धांच्या पवित्र ग्रंथांक 'त्रिपिटक' अशें म्हण्टात. त्रिपिटक म्हळ्यार विनयपिटक, सुत्तपिटक आनी अभिधम्मपिटक अशी तीन पिटकां वा पेटारे. ह्या दरेका पिटकांत स्वतंत्र घटक ग्रंथ आसात. 'त्रिपिटक' हें नांव बौद्धांच्या सगळ्या पंथ-संप्रदायांक मान्य आसलें, तरी वयर सांगिल्ल्या तीन पिटकांतले तांकां अभिप्रेत आशिल्ले घटक ग्रंथ मात एकसारके नात. पाली भाशेंत, बौध्द संस्कृतांत तशेंच तिबेटी आनी चीनी भाशांनी त्रिपिटक अस्तित्वांत आसले, तरी ह्या वेगवेगळ्या त्रिपिटकांतले घटक ग्रंथ एकामेकांकडेन जुळनात.

गौतम बुद्धान आपल्या अनुयायांखातीर घालून दिल्ले नेम, ताचो उपदेश आनी तत्त्वगिन्यान, तशेंच ताच्या मुखेल शिश्यांनी दिल्ली शिकवण त्रिपिटकांत आस्पावता. आयज उपलब्ध आशिल्ल्या सगळ्या त्रिपिटकांत पाली त्रिपिटकूच सगळ्यांत पुर्विल्लें अशें मानतात. अभिधम्मपिटकांतलो 'कथावत्थु' नांवाचो ग्रंथ सम्राट अशोकाचे मुस्तींत जाल्ल्या तिसरे धम्मसंगितींत (परिशदेंत) अस्तित्त्वांत आयलो. त्या काळांत अस्तित्त्वांत आशिल्ल्या वेगवेगळ्या बौद्ध सांप्रदायिकांचीं पाखंडी मतां ह्या ग्रंथांत सांगल्यांत. कारण तीं खोडून काडटना विनयपिटक, सुत्तपिटक आनी अभिधम्मपिटक हातूंतल्या कांय ग्रंथांतल्यान उतारे घेतल्यात तशेंच तांचो वा तातूंतल्या विशयांचो उल्लेख केल्लो आसा, हाचेवयल्यान हें दिसून येता.

गौतम बुद्ध हो मनीस योनिंतूच जल्मलो आसून आपल्या स्वताच्या गुणांनी तो उच्च कोटीमेरेन पावलो अशें पाली त्रिपिटकांतल्यान दिसता. ह्या त्रिपिटकांत आस्पाव केल्ली गौतम बुद्धाची शिकवण सादी, सोंपी आनी सामान्य मनशाक सहज आचरणांत हाडपासारखी आसा. बुद्धाचे शिकवणीवांगडाच त्या काळांतल्या उत्तर भारताच्या राजकीय, समाजीक, धर्मीय, अर्थीक परिस्थितीचें चित्रणूय त्रिपिटकांत आयलां. मगध देशाचो बिंबिसार आनी अजातशत्रू, कोसल देशाचो प्रसेनजित, वत्साचो राजा उदयन आनी उज्जैनीचो चंडप्रद्योत हांचेविशींच्यो कथा, त्रिपिटकांत आयल्यात. उत्तरेकडलीं शाक्य, वज्जी, मल्ल ह्या ल्हान लोकराज्यांविशींय म्हायती मेळटा. समाजांत यज्ञसंस्थेचें आनी वर्णभेदाचें जें बंड माजिल्लें ताचेआड बुद्धान आनी ताच्या अनुयायांनी जो आवाज काडिल्लो तो त्रिपिटकांतल्यान उक्तो जाता. त्या काळांत भारतांत अस्तित्त्वांत आशिल्ले वेपारमार्ग आनी अर्थीक वेव्हार त्रिपिटकांतल्यान समजतात. बायलांक दादल्यांसारकेच ध्येयप्राप्तीचे हक्क मेळचे हो विचार, लोकतंत्राच्या तत्त्वाचेर चलयल्ले भिक्षुसंघ, भौजनांचे भाशेंत केल्लो बौद्ध धर्माचो प्रचार आनी तांच्या समान हक्कांविशीं केल्ली जागृताय हांची म्हायती त्रिपिटक ग्रंथांत मेळटा. देखून धर्मीक नदरेनूच न्हय, जाल्यार समाज इतिहासाचे नदरेनूय तांकां म्हत्व आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**त्रिपुंड्र :** तिब्याचोच एक प्रकार. शैवपंथाचे लोक कपलार गंधाच्यो वा भस्माच्यो आडव्यो तीन रांको ओडून तांचे मदीं एक तिबो लायतात ताका त्रिपुंड्र अशें म्हण्टात. ह्या तीन रांकांतली पयली रांक ही ॐ कारांतली 'अ' हो वर्ण, गार्हपत्याग्नी, क्रियाशक्ती, ऋग्वेद आनी प्रातःसवन हाचें प्रतीक आसून महेश्वर ही ताची देवता. दूसरी रांक ॐ कारांतलो 'उ' हो वर्ण, दक्षिणाग्नी, सत्व, अंतरिक्ष, अंतरात्मा, इत्साशक्ती, यजुर्वेद आनी माध्यांदिनसवन हांचें प्रतीक आसून सदाशीव ही ताची देवता. तिसरी रांक ॐ कारांतलो 'म' हो वर्ण, आहवनीयाग्नी, द्युलोक, परमात्मो, ज्ञानशक्ती सामवेद आनी सायंसवन हांचें प्रतीक आसून महादेव ही ताची देवता. ब्रह्मचारी, गृहस्थ, वानप्रस्थ आनी संन्यासी ह्या सगळ्यांक त्रिपुंड्र धारण करपाचो अधिकार आसा. वासुदेवोपनिषदांत त्रिपुंडाक त्रिमूर्ती, तीन व्याहृती, तीन छंद आदीकडेन एकरूप मानल्यात. त्रिपुंड्राच्या महात्म्याविशीं तिथ्यदितत्व ह्या ग्रंथांत एक श्लोक दिला तो आसो -

विना भस्मत्रिपुण्ड्रेण विना रुद्राक्षमालया ।
पुजितोऽपि महादेवो न स्यात्तस्य फलप्रदः ।
तस्मान्मृदापि कर्तव्यं ललाटेऽपि त्रिपुण्ड्रकम् ।

**अर्थ** - भस्माचो त्रिपुंड्र आनी रुद्राक्षांची माळ धारण करीनासतना शिवाची पुजा केल्यार तिचें फळ मेळना. देखून भस्म शक्य नासल्यार

मातयेचो त्रिपुंड्र कपलाक लावंचो.

त्रिपुंड्र धारण करणाऱ्यांचीं सगळीं पापां नश्ट जातात आनी तो शिवाकडेन एकरूप जाता अशी ताची फलश्रुती सांगल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**त्रिपुरभैरवी :** एक तंत्रीक देवता. धर्म, अर्थ आनी काम ह्या तीन पुरुशार्थांची प्राप्ती करून दिवपी ही देवता मानतात. ही देवता शिवलिंगा मदल्यान भायर आयल्या.कालिकापुराणांत हिचें ध्यान दिलां तें अशें –

चतुर्भुजां रक्तवर्णां रक्तवस्त्रविभूषिताम् ।
दक्षिणोर्ध्वे स्त्रजं चाधो बिभ्रतीं पुस्तकोत्तमम् ॥
अभयं वामहस्ताभ्यां वरं च दधतीं तथा ।
सहस्त्रसूर्यसङ्काशां त्रिनेत्रां गजगामिनीम् ॥
पीनोत्तुङ्गस्तनयुतां सितप्रेतासनास्थिताम् ।
स्मितप्रभिन्नवदनां सर्वालङ्कारसंयुताम् ॥
तिसृभिर्मुण्डमालाभिः शिरोवक्षःकटीषु च ।
त्रिगुणं त्रिगुणीभूतैः प्रत्येकं परिभूषिताम् ॥
मदिराघूर्णनयनां रक्तदन्तच्छदद्वयाम् ।
चिन्तयेद् वरदां देवीमेवं त्रिपुरभैरवीम् ॥

**अर्थ –** चतुर्भुज, तांबड्या वर्णाची, तांबडें कापड न्हेशिल्ली, उजव्या वयल्या हातांत माळ आनी सकयल्या हातांत पुस्तक धारण करपी, दाव्या दोन हातांनी अभय आनी वर दिवपी, सहस्त्र सुर्यावरी तेजिश्ट आशिल्ली, तीन दोळ्यांची गजगामिनी. भरगच्च थानां आशिल्ली, धव्या प्रेतासनाचेर बशिल्ली. हांसपाखातीर तोंड उगडिल्ली, सगळ्या अलंकारांनी नटिल्ली, तकली, हड्डें आनी कमराक मुंडांच्यो तीन माळो धारण करपी, जिचे दोळे मदिरा पियेवन धुंद जाल्यात, जिचे ओंठ तांबडे आसात अशी, भक्तावरदायिनी, त्रिपुरभैरवी हिचें चिंतन करप.

श्रीविद्यार्णवतंत्रांत तिचें वर्णन अर्धचंद्र आनी ब्रह्मा-विष्णु-महेशाच्या मुंडांची माळ धारण करपी अशें केलां.

– कों. वि. सं. मं.

**त्रिपुरसुंदरी :** एक तंत्रीक देवता. हिच्या नांवार एक पंथ प्रचलीत आसा. ह्या पंथाची दीक्षा घेतकच उप्रांतच त्रिपुरसुंदरीची उपासना करपाक मेळटा अशें त्या पंथाचें मत आसा. ही उपासना तीन प्रकारांनी जाता. देवी महापद्मवनांत शिवाचे मांडयेर बशिल्ली आसा अशी कल्पना करून तिचें ध्यान, पुजा करप हो पयलो प्रकार. श्रीचक्राच्या रुपान देवीची पुजा करप हो दुसरो प्रकार. हाका भावयाग अशें नांव आसा. पंथाच्या तत्त्वगिन्यानाचो अभ्यास करप हो तिसरो प्रकार.

त्रिपुरसुंदरीचीं वेगवेगळीं तीन रुपां आसात. तातूंतलें एक रूप अशें – ती शेंदुरावरी तांबडी, तीन दोळ्यांची आनी चतुर्भुज. तिच्या वयल्या दाव्या हातांत पुष्पधणू आनी सकयल्या हातांत पुस्तक आसा. तशेंच तिच्या उजव्या वयल्या हातांत पंचबाण आनी सकयल्या हातांत अक्षमाला आसा. चार प्रेतांचेर दवरिल्ल्या एका प्रेताचेर ती दोनूय पांय जोडून उबी आसा. तिणें जटाभार धारण केल्लो आसून तातूंत अर्धचंद्र आसा. तिच्या आंगार वस्त्र ना. तिच्या आंगार सगळे अलंकार आसात.

त्रिपुरसुंदरीक कदंबाचें फूल प्रिय आसा.

शंकयाचार्य हो तिचो निश्ठावान भक्त आशिल्लो. ताणें तिचेर त्रिपुरसुंदरी, ललीतापंचरत्न आनी सौंदर्यलहरी हीं स्तोत्रां बरयल्यांत. ताच्या त्रिपुरसुंदरीस्तोत्रांतलो एक श्लोक असो –

कदम्बवनमध्यगां कनकमण्डलोपस्थितां
षडम्बुरुहवासिनीं सततसिध्दसौदामिनीम् ।
विडाम्बितजपारुचिं विकचचन्द्रचुडामणिं
त्रिलोचनकुटुम्बिनीं त्रिपुरसुंदरीमाश्रये ॥

**अर्थ –** कदंबवनांत वास करपी, भांगराच्या श्रीचक्ररूप मंडलाचेर विराजमान जाल्ल्या, षटकमलांत (म्हळ्यार स चक्रांनी) रावपी, सिद्धांच्या अतःकरणान सतत विजेवरी प्रकाश दिवपी, दसणीच्या फुलावरी कांती आशिल्ले, उज्वल चंद्रिम माथ्यांत धारण करणारी अशे ह्या शिवाचे बायलेच्या त्रिपुरसुंदरीदेवीच्या पांयांचो हांव आश्रय घेता.

त्रिपुरसुंदरीन अर्जुनाक धनुर्विद्या शिकयली अशी कथा आसा. आल्मोडा शारांत तिचें एक देवूळ आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**त्रिपुरा – १ :** देवीचें एक रूप. त्रिपुरा शब्दाची व्याख्या अशी – 'त्रीन, धर्मार्थकामान् पुरति पुरतो ददातीति' (धर्म, अर्थ आनी काम ह्या तीन पुरुषार्थांक जी साध्य करून दिता, ती त्रिपुरा).

त्रिपुरेचीं जायतीं रुपां आसून पुर्विल्ल्या काळांत त्या सगळ्यांची उपासना जाताली. त्रिपुरा सुर्वेक कुमारी म्हणून अवतरली आनी उपरांत तिणें आपली त्रिपुराबाला, त्रिपुरभैरवी आनी त्रिपुरासुंदरी वा त्रिपुरसुंदरी अशा तीन रुपांनी विभागणी केली. तेभायर गौरी, रामा, भारती, काली, चंद्रिका, दुर्गा,भगवती, कात्यायनी, परा, ललीता, षोडशी, श्रीविद्या आदी नांवांय त्रिपुरेचींच आशिल्ल्याचें तंत्रशास्त्रांत सांगलां. तिच्या नांवांचें स्पश्टीकरण दिलां तें अशें –

ब्राह्मी रौद्री वैष्णवीति शक्तयस्तिस्त्र एव हि ।
पुरं शरीरं यस्यां सा त्रिपुरेति प्रकीर्तिता ॥

**अर्थ –** ब्राह्मी, रौद्री आनी वैष्णवी ह्यो तीन शक्ती जिचीं पुरीं म्हळ्यार शरिरां आसात तिका त्रिपुरा अशें नांव आसा.

कालिका पुराण आनी त्रिपुरारहस्य ह्या ग्रंथांनी तिच्या वेगवेगळ्या रुपांची आनी पुजेच्या प्रकाराची म्हायती दिल्या. सगळ्या रुपांनी भैरवी हें त्रिपुरेचें प्रभावी रूप अशें समजतात. तिची पुजा दाव्या हातान करतात. तिका तांबडो रंग खूब आवडटा. तांबड्या रंगाची मदिरा, तांबडीं फुलां, तांबडें वस्त्र आनी शेंदूर ह्यो वस्तू तिका आवडटात. ती प्रेताचेर बशिल्ली आसून तिच्या हातांत फुलांचें धोणू आनी पास (दोरी) हीं आयुधां आसतात.

भारतांत जेन्ना तांत्रिकाचें म्हत्त्व आशिल्लें त्या काळांत त्रिपुरभैरवीची उपासना तांत्रिक पद्दतीन जाताली. चड करून आसाम आनी बंगाल ह्या वाठारांत अशे पुजेचो चड प्रचार आशिल्लो. हातूंत सगळ्यात म्हत्त्वाचें तें बलिदान. पशुबळी दिवंचेपरस तांत्रिक चड करून नरबळी दिताले. कालिकापुराणांत सांगलां की, देवीक एक नरबळी दिल्यार ती अेक हजार वर्सां आनी तीन नरबळी दिल्यार एक लक्ष वर्सांमेरेन संतूश्ट रावता.

उपरांतच्या काळांत चड करून दक्षिण कर्नाटक आनी तमीळनाड ह्या वाठारांत, तिची त्रिपुरसुंदरी वा ललिता ह्या स्वरुपांत चड नामना जाली.

– कों. वि. सं. मं

**त्रिपुरा – २ :** भारताच्या ईशान्य वाठारांतलें एक राज्य. आवांठ १०,४८६ चौ. किमी. लोकसंख्या २०,५३,०५८ (१९८९). विस्तार २२°५६' उत्तर ते २४°३२' उत्तर आनी ११°१०' उदेंत ते ९२°

२२' उदेंत. ह्या राज्याचे उत्तर, अस्तंत आनी दक्षिण दिशेक पुराय बांगलादेश व्यापिल्लो आसून फक्त ईशान्य दिकेक भारतांतलीं आसाम आनी मिझोराम राज्यां आसात. राजपाटण अगरताळा.

**भूंयवर्णन** - ह्या दोंगराळ प्रदेशाच्या उदेंत वाठारांत चार दक्षिणोत्तर न्हंयांचीं देगणां आनी अस्तंतेवटेन देंवतेचो मैदानी वाठार आसा. सगळ्यांत उदेंतेकडलें धर्मनगर देगण, हें उदेंतेच्या ६०० ते ९०० मी. उंचायेच्या जमराई आनी अस्तंतेच्या ३०० ते ७५० मी. उंचायेच्या सखन ह्या दोंगरावळी मजगतीं आसा. ह्या देगणाचे अस्तंतेक आशिल्लें कैलाशहर देगण १९ किमी. रुंदायेचें आसून तें पुराय राज्यांतल्यान दक्षिणेवटेन गेलां. ताचे अस्तंतेच्या लांगतराई दोंगरावळींत सगळ्यांत उंचेलें तेमूक सुमार ४५७ मी. आसा. ह्या देगणाचो दक्षिणेकडलो वाठार रानान व्यापिल्लो आसा जाल्यार उत्तरेकडलो वाठार उकतो आनी थोडो दलदलीचो आसा. कैलाशहर देगणाचे अस्तंतेक कमलपूर देगण आसा. ह्या देगणांत अथारमूर ओळींची सगळ्यांत चड उंचाय ४४६ मी. मेरेन आसा. ह्या देगणाचो दक्षिणेकडलो वाठार रानान व्यापिल्लो आसा. चौथें आनी सगळ्यांत अस्तंतेकडेन खोवई देगण आसा. ह्या,देगणाचे अस्तंतेक आशिल्ली देवतमुरा दोंगरांची रांक सुमार २५० मी. उंचायेची आसा. सगळ्यांत सपाट भूंय देवतामुरा दोंगरावळीचे अस्तंतेक आसा. धर्मनगर देगणांतल्या उत्तरेवटेन व्हांवपी देव आनी जूरी न्हंयो आसात. जूरी न्हंयेचे देगेर धर्मनगर हो बाजाराचो गांव आसा. कैलाशहर देगणांतल्यान मनू आनी तिच्यो उपन्हंयो व्हांवतात. मनू न्हंयेचे उजवे देगेर कैलाशहर बाजाराचो गांव आसा. ताचे अस्तंतेक कमलपूर देगणांतल्यान उत्तरेकडेन धालाई न्हंय आसा. धालाईचे दावे देगेर कमलपूर गांव आसा. उत्तरेवटेन व्हांवपी खोवई न्हंयेचे उजवे देगेर खोवई गांव आसा. तेभायर राज्यांत गुमती, मेघना, हाओरा ह्योय न्हंयो आसात. हाओरा न्हंयेचे देगेर समुद्रथरासावन फकत १३ मी. उंचायेचेर अगरताळा राजधानी वसल्या. राज्यांतल्या सखल वाठारांत ल्हान व्हड तळीं आसात. तातूंत रुद्रसागर तळें अगरतळासावन ५३ किमी. अंतराचेर आसा.

राज्यांत न्हंयेच्या देगणांतली गाळाच्या वाठारांतली भूंय सुपीक आसा. हेरकडेन मात रान जळून झुमिआ ह्या फिरती शेतीचे पद्दतीन कुशिल्ल्या पानांचो उणाव जाल्ल्यान थंयचे मातयेक व्हडलेंशें म्हत्त्व ना. उण्या दोंगराच्या उतारावेली माती भुसभुशीत आशिल्ल्यान ती उदक सांठोवंक शकना. पावसान तातूंतलीं खनीजां व्हांवन गेल्ल्यान थंयचीय भूंय आम्लीक जाल्या.

**हवामान** - त्रिपुरा राज्याचें सादारण तापमान २०° ते ३०° सॅ. आसून हवामान समशीतोश्ण आसा. पावसाचें वर्सुकी प्रमाण एप्रिल ते सप्टेंबर मेरेन १९० सेंमी. आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात** - राज्याचो सुमार ६२% वाठार रानान व्यापिल्लो आसून तातूंत शाल, गरजन ह्या वनस्पतीं भायर सदां पाचवीं उरपी झाडां, कोंडे आनी तण हांचो आस्पाव जाता. मोनजातींत हत्ती, रानरेडो, गेंडो, वाग, बिबटो, कोलो, वांस्वेल, गवो हे प्राणी मेळटात.

**इतिहास** - पुराणांत ह्या राज्याचो उल्लेख मेळटा तो असो - चंद्रवंशीय ययातीपूत द्रुह्युचो चलो बभ्रु हाचो कपिलमुनीन ह्या किरात देशाचो राज्याभिशेक केलो. त्या वंशाचो पंदरावो राजा 'प्रसेन' हो दशरथाच्या अश्वमेध यज्ञाक गेल्लो. ताचो वंशज दैत्य हो अश्वत्थाम्याकडेन धनुर्विद्या शिकलो. ताचे उपरांतचो राजा 'त्रिपुर' हाचेंच नांव ह्या राज्याक मेळ्ळें. ताचो पूत 'त्रिलोचन' हो युधिष्ठिराच्या राजसूय यज्ञाक हजर आशिल्लो आनी ताणेंच राजवंशाच्या चवदा कुलदेवतांची स्थापना केली असो उल्लेख आसा. ह्या राज्याचो बाराव्या शतमानामेरेन कांयच उल्लेख मेळना. तेराव्या शतमानांत गौरच्या सुलतानान त्रिपुराच्या 'फा' राजाक गादी परत मेळोवन दिवपाक आदार दिलो आनी 'माणिक्य' ही वंश परंपरेची पदवी दिली. इतिहास काळांत राज्याचो विस्तार सुंदरबन पसून ब्रह्मदेशामेरेन आनी सागरापसून कामरुपामेरेन आशिल्लो. तेराव्या, चवदाव्या आनी सतराव्या शतमानांत त्रिपुराचेर मुसलमानांचे हल्ले जाले. सोळाव्या शतमानांत विजयमाणिक्य राजान शेजारच्या इस्लामी राज्याचेर घुरी घालून ताचो खुबसो वाठार जिखिल्लो. अठराव्या शतमानांत मोगलांनी त्रिपुराचो मैदानी वाठार आपल्या राज्याक जोडलो. १७६५ त बंगालची दिवाणी मेळटकच इंग्लिशांनी त्रिपुराकडेन राजनैतीक संबंद जोडले आनी थंयचो राजा आपल्या तंत्रान चलतलो अशी वेवस्था केली.

अठराव्या शतमानाचे अखेरेक वीरचंद्र ह्या राजान प्रागतीक धोरण सुरू केलें. ताणें १८७९ त गुलामीची आनी १८८८ त सतीची चाल बंद केली. १९१९ मेरेन मध्यवर्ती ब्रिटीश सत्तेच्या आनी १९३६ मेरेन इस्टर्न स्टेट्स एजन्सीच्या सत्तेखाल आशिल्लें त्रिपुरा राज्य १९४९ त स्वतंत्र भारतांत विलीन जालें. सुर्वेक 'पार्ट सी' राज्याचो ताचो दर्जो १९५७ चे राज्यपुनर्रचनेंत बदलून तो केंद्रशासीत प्रदेश जालो. १९६३ त ताका विधिमंडळ आनी राज्यांतर्गत शासनाधिकार मेळ्ळे. २१ जानेवारी १९७२ दिसा त्रिपुराक राज्याचो दर्जो फावो जालो.

**राजवेवस्था** - त्रिपुरा राज्याचे खोवई, सदर, कैलाशहर, धर्मनगर, सोनामुरा, उदयपूर, बेलोनिया, साब्रूम, कमलपूर, अमरपूर अशे धा उपविभाग आसात. हातूंत ३ जिल्हे, ४४ तहसील आनी ६ शारां आसात. राज्याची सत्ता राज्यपाल आनी मंत्रीमंडळ हांचेकडेन आसता.

ह्या राज्यांतल्यान लोकसभेखातीर दोन आनी राज्यसभेखातीर एक अशे वांगडी वेंचतात. त्रिपुरा राज्याचेर आसाम राज्याच्या उच्च न्यायालयाचो अधिकार चलता. तिसरे पांचवर्सुकी येवजणेच्या काळांत त्रिपुरांत पंचायत राज्य मंडळ स्थापन केलें. हांगा ३०४ पंचायतींनी १,४३६ गांवांचो आस्पाव जाता. हांगा ४४८ ग्रामपंचायती आनी १३४ न्याय पंचायती आसात.

**अर्थीक आनी समाजीक स्थिती** - राज्याचो रानान व्यापिल्लो भाग दक्षिणेकडल्या दोंगराळ वाठारांत आसून शेती उत्तरेकडल्या आनी अस्तंतेकडल्या मैदानी वाठारांत जाता. हांगा गाळाची जमीन आशिल्ल्यान आनी भरपूर पावस पडिल्ल्यान भात हें मुखेल पीक आसा. लागवडीच्या वट्ट क्षेत्राची ८३% भूंय भातासकयल आसा. राज्यांत तांदूळ, दाळ, ताग, कापूस, सांसवां, बटाट, तीळ, ऊंस, तंबाकू आनी च्या हीं मुखेल पिकां जातात. मोनजातींत बोकड्यो, म्हशी, गाय, दुकरां, घोडे, कुकडां आदींचो आस्पाव जाता. तेभायर राज्य सरकारान जायते कार्यक्रम हातांत घेतल्यात ते अशे - झुमिआ शेती पद्दतीन वनस्पतीचो आनी भुंयेच्या जावपी लुकसाणाचेर आळो घालप, पाचव्या आनी रसायनीक सान्याची पुरवण करप, शेताखाल चड जमीन हाडप, कूप नलिका आनी हेर शिंपणी येवजणांनी रब्बी आनी खरीप दोनूय पिकां शक्य करप, च्याचे मळे आनी फळांचें उत्पादन वाडोवपाक आदार दिवप.

राज्यांत हातमाग, वीणकाम, पांटले विणप, रेशीम पैदास करप हे कुटिरउद्येग चलतात. ल्हान उद्येगांमदीं लाकूड कापपाच्यो गिरण्यो, विटांचे कारखाने, फळां डब्यांत बंद करप आदींचो आस्पाव जाता.

शासनान सुतगिरण, प्लायवुडाचो कारखानो, रान आनी शेती उद्देगांखातीर केंद्रां हांची येवजण आंखल्या.

राज्यांतल्या सहकार क्षेत्रांत राज्यसहकारी आनी भूतारण बँक, सेवा

आनी भोव उद्देशी हांच्यो सोसायटी, विणकार सोसायटी, तेभायर वेगवेगळ्यो वेवसायीक शेती, खरेदी, विक्री गिरायक हांच्यो संस्था आसात.

उदयपूर आनी अरुंधतीनगरांत उद्येगीक वसणुको आसून तातूंत लोहारकाम, थवय काम हे मुखेल उद्येग चलतात. अगरताळा, अंबासा, खोवई, धर्मनगर, कैलाशहर, उदयपूर, बोगाफा ह्या नगरांनी २८६ किवॅा. क्षमतेची डिझॅल निर्मीत वीज उत्पादन केंद्रां आसात. तेभायर गुमती जलविद्यूत् प्रकल्प आसा.

देशाचे मुखेल भुंयेक आनी ह्या राज्याक जोडपी आसाम - अगरताळा हो म्हामार्ग हांगा आसा. रेल्वेमार्गान धर्मनगर हें एकच थळ आसामांतल्या कलकालिघाट स्थानकाक जोडलां. दळणवळणाच्या अडचणींक लागून विमान येरादारीक हांगा खूब म्हत्व आसा. अगरताळा हांगा विमानतळ आसा. अगरताळा, कैलाशहर आनी कमलपूराक हवाई सेवा आसात.

**लोक आनी समाजजीण** - राज्यांत हिंदू, मुसलमान, क्रिस्तांव आनी बौद्ध धर्माचे लोक रावतात. हांगा अनुसुचीत जाती जमातींचे सुमार ४१.३४% लोक रावतात.

हांगा चकमा, हलम, मोग, गारो, लुशाई ह्यो जमाती शेजारच्या आसाम दोंगुल्ल्यांतल्यान आयिल्ल्यो आसात. हांगाचे मूळचे त्रिपूरी लोक मंगोलियन वंशाचे आसून ब्रह्मी आराकानच्या मुंग लोकांतले आसात. तांचेमदीं पुराण, जमातिआ, नवातिआ आनी रियांग अशे समाजीक वर्ग आसात. तांचेमदीं बालविवाह ना, काडीमोड आनी विधवांचें लग्न मान्य आसा. ते मडीं लासतात.

सुर्वेक सावन शेजारच्या बांगला देशांतले लोक हांगा स्थलांतर करीत आसात. १९४१ च्या हिंसक दंगली उपरांत हिंदुंचो एक चोमोच त्रिपुरांत आयलो आनी फाळणेउपरांत निर्वासितांचें प्रमाण खुबूच वाडलें.

त्रिपुरांत भौशीक भलायकेखातीर रुग्णालयां, आरोग्यकेंद्रां, वखदालयां, रोग उपचार केंद्रां आनी कुटूंब येवजण केंद्रां जनतेक वैजकी सेवा दितात.

त्रिपुरा राज्याची मुखेल भास बंगाली, काकवोराक आनी मणिपूरी. दोंगुल्लेच्या वाठारांतल्यो वेगवेगळ्यो जमाती आपआपल्यो वेगवेगळ्यो भासो उलयतात. अगरताळा सावन णव बंगाली दिसाळीं उजवाडाक येतात. हांगा शाळा, माध्यमिक विद्यालय, वेवसायीक प्रौढशिक्षण केंद्र, मानव्य, विज्ञान, वैजकी, अभियांत्रिकी, संगीत आदीचीं म्हाविद्यालयां आसात.

कोंडे, वेतां आनी तण हांचेपासून वस्तू तयार करप, वेगवेगळ्या तरेचीं मातयेचीं आयदनां करप, हातमागाचेर सोबीत कापडां विणप आदी वेवसायांनी हांगाच्या लोकांची कला दिश्टी पडटा. तशेंच वेगवेगळ्या जमातींच्या नाचांवरवीं तांच्या लोककलांचें दर्शन घडटा.

ह्या प्रदेशांतल्या पळोवपासारक्या थळांमदीं अगरताळा सावन ८ किमी. अंतराचेर पुर्विल्ल्या देवळांतल्यो चतुदर्श देवता, बारी राजवंशाच्या कुलदेवतांचे अश्टधातूंचे पुर्विल्ले १४ मुखवटे, ५३ किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या रुद्रसागर तळ्यांतलो भव्य निरमहाल, ११६ किमी. चेर गुमातीच्या उगमस्थानाचेर आशिल्लो डंमबर धबधबो, माताबारी वा त्रिपुरसुंदर देवीचें पीठस्थान, फातरांत कोरांतिल्ल्यो व्हड मुर्ती आशिल्लें उनाकोटी तीर्थ हांचो आस्पाव आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## त्रिपुरी पुनव :

हें कार्तिकी पुनवेचें नांव आसा. त्रिपुरी राक्षसाकडेन संबंद आयिल्ल्यान तिका त्रिपुरी पुनव अशें नांव पडलें. ह्या नांवासंबंदीची कथा व्रतराजांत आयल्या ती अशी - त्रिपुर नांवाचो एक असुर आशिल्लो. ताणें प्रयाग तीर्थाचेर एक लाख वर्सां तप केलें. त्या तपान ताका ब्रह्मदेव प्रसन्न जालो. तेन्ना ताणें ब्रह्मदेवाकडेन वर मागलो की देव, मनीस, निशाचर, बायल वा पिडा हांचेपसून आपल्याक अभय आसचें. ब्रह्मदेवान 'तथास्तु' म्हळें. त्या वरान त्रिपुराक माज चडलो. तो सगळ्या त्रैलोक्याक त्रास दिवंक लागलो. ताच्या त्रासांक कंटाळून सगळे देव शंकराक शरण गेले. शंकरान त्रिपुरावांगडा झूज करून कार्तिक पुनवे दिसा ताका मारलो. लोकांनी दीप पेटोवन खोस उक्तायली. लिंगपुराण, पद्मपुराण, मत्स्यपुराण, शिवपुराण आनी महाभारतांत ही कथा वेगळेतरेन आयल्या.

मत्स्यावतारूय हेच पुनवेक जाला. देवस्थानांतल्यो दीपमाळो ह्या दिसा पेटयतात. न्हंयेत दिवे पेटोवन सोडटात.

'त्रिपुरज्वलनव्रत' नांवाचें एक व्रत ह्या दिसा करतात.

उत्तर प्रदेशांत हो दीस स्कंदजयंती म्हणून मनयतात आनी त्या दिसा स्कंदमुर्तीची पुजा करतात. कार्तिकी पुनवेक कृत्तिका नक्षत्र आसतना स्कंदाचें दर्शन घेवपी, धनवान आनी वेदपारंगत जाता अशें म्हण्टात. दक्षिणेंत ह्या दिसा कृत्तिकामहोत्सव नांवाचो उत्सव मनयतात.

शिवामुखार दिवे पेटोवप, दीपपात्रां दान दिवप, शिवाची पुजा करप हो ह्या व्रताचो विधी आसता.

- कों. वि. सं. मं.

## त्रिभुवन :

हिंदू धर्माची एक पुराणीक कल्पना. हिंदू धर्माचे पुराणीक कल्पनेप्रमाण आख्खो संवसार तीन लोकांमदीं विभागून गेला. धर्तरेवयलो मृत्यूलोक, धर्तरेच्या वयर आशिल्लो सर्गलोक आनी धर्तरेपोंदा आशिल्लो पाताळ लोक. सर्गलोका वांगडाच पापी लोकांखातीर नरकलोकाचीय कल्पना त्रिभुवनांत आस्पावता.

सर्गलोक हो देव आनी देवासंबंदीत यक्ष, किन्नर अप्सरा हांची वसती मानल्या. मृत्यूलोकांतलो पुण्यवंत मनीस सर्गार आनी पापी मनीस नर्कांत पावता अशी कल्पना आसा. सर्ग हो सोबीत आनी सुखासमाधानांनी भरिल्लो लोक आसून थंय रावप्यांक जाण्टेपण वा मरण येना आनी ते सदांच चिरतरूण उरतात. सगळे तरांचें वैभव आनी सूख भोगपाचें थळ अशी सर्गाची कल्पना केल्या. हाचे उरफाटें सगळ्या दुख्खाचें आनी कश्टांचें आगर अशी नरकाची कल्पना केल्या.

पाताळलोकांत राक्षस, दानव, नाग सारकिल्ल्या लोकांचो राबितो सांगला. हांगाय सर्गा सारकींच सगळीं सुखां भोगूंक मेळटात.

वामन अवतारांत संबोदीत केल्लो बळी राजा पाताळाचेर राज्य करता अशें समजतात. अतल, नितल, पितल, गभस्तीमान, त्तल, सुतल आनी पाताळ अशीं वट्ट सात पाताळां आसात.

एका सकयल एक आशिल्ल्या ह्या सात पाताळांनी मयासुर, हाटकेश्वरशिव, बळीराजा, दानवेंद्रमय, काद्रवेयसर्पगण, कद्रुपूत आनी नागलोक हांची वसती आशिल्ल्याचें मानलां.

मृत्युलोक ही कर्मभूंय मानल्या. हांगाच्या, कर्माप्रमाण परलोकांतलें फळ मेळटा अशी कल्पना आसा. सर्ग आनी पाताळ हांचे तुळेन मृत्यूलोक हो उण्या दर्जाचो मानप जाला. सर्ग आनी पाताळांतल्या रहिवाशांक ताचे वायट वागणुकेखातीर ख्यास्त म्हणून मृत्यलोकांत जल्म घेवपाचो श्राप मेळिल्ल्याच्यो कितल्याशोच देखी पुराणांत मेळटात.

सर्ग-नरक, मृत्यू आनी पाताळ ह्या तीन लोकांभायर सात लोकांची कल्पनाय जाल्ली आसा. भुर्लोक, भूवर्लोक, स्वर्लोक, महर्लोक, जनलोक तपोलोक आनी सत्यलोक वा ब्रह्मलोक अशे हे लोक आसून जीवसृश्टीक

ह्या सातय लोकांतल्यान वचचें पडटा आनी निमाणो सत्यलोक प्राप्त जालो की तो जीव जल्मरणाच्या चक्रांतल्यान मुक्त जाता.

धर्तरेभायर म्हणजेच मृत्युलोकाभायर आनी विश्वां (परलोक) आसा. ही कल्पना चडशा धर्मांनी मेळटा. धर्मानुसार तांचीं नांवां आनी व्याप्ती तशेंच तांचो कारभार आनी कार्यां वेगळीं आसलीं तरी इहलोकावांगडा परलोकाचे कल्पनेफाटलो मतीतार्थ एक दिसता.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : १. नरक २. पाताळ ३. सर्ग.

**त्रिमूर्ती :** ब्रह्मा, विष्णु, महेश ह्या तीन देवांचे संयुक्त मुर्तीक त्रिमूर्ती अशें म्हण्टात. त्रिमूर्तीची कल्पना गुणनिर्देशकाचें प्रतीक म्हणून मुखार



आयली आसूं येता. त्रिमूर्तींतले तीन देव म्हळ्यार रज, सत्व आनी तम ह्या गुणांचो संगम दाखयता (मैत्रायणी उपनिषद ५.५). तशेंच त्रिमूर्तीवरवीं सृश्टीची उत्पत्ती, स्थिती आनी लय ह्या तीन अवस्थांचीं प्रतीकां मानप जालां. तेचवांगडा उत्पादक (ब्रह्मा), संरक्षक (विष्णु) आनी संहारक (शिव) हीं प्रजापतीचीं तीन रुपां आसात (महाभारत वनपर्व २७२.४६१) विश्वाचें रूप आदिकाळा पसून त्रिगुणात्मक मानप जालां आनी हाका लागून भारतीय संस्कृतींत तीन ह्या अंकाक चड म्हत्व मेळ्ळां. त्रिलोक, त्रिगुण त्रिरिणां, त्रिमार्ग अशा त्रिकांनी विश्व व्यापलां अशी भारतीय संस्कृतीची धारणा आसा. रजोगुणी ब्रह्मा, तामसी शिव आनी सात्वीक विष्णु अशी त्रिगुणात्मक प्रजापतीची त्रिमूर्ती फाटली कल्पना उपनिषदाच्या काळांत तशेंच पुराणाच्या काळांत विकसीत जाल्ली आसली तरी हे कल्पनेचें बीं वेदकाळांतय मेळटा. ऋगवेदांतली एक ऋचा अशी आसा –

सुर्यो नो दिवस्पातु वातो अन्तरिक्षात् ।
अग्निर्नः पार्थिवेभ्यः ।

**अर्थ** – मळबांतल्यान सूर्य, अंतराळांतल्यान वायू आनी धर्तरेवयलो अग्नी आमचें रक्षण करून हे ऋचेवरवीं तीन गुणधारी देवांक एकत्रीतपणान उलो मारप जाला तें त्रिमूर्तीचें प्रतीक अशें समजतात.

बौद्ध धर्मांत महायन पंथांत मंजुश्री, अवलोकितेश्वर आनी वज्रपाणी हांची त्रिमूर्ती मानल्या. क्रिस्तांव धर्मांतली 'ट्रिनिटी' ह्या धर्मसिद्धांताफाटली कल्पना हिंदू आनी बौद्ध धर्माचे कल्पनेपरस वेगळी जाणवता. ट्रिनिटीचे कल्पनेंत बापूय (परमेश्वर), पूत (जेजूस क्रिश्त) आनी पवित्र आत्मो (होली घोस्ट) मेळून अविभक्त अशें एक देवत्व मानप जालां. पूण ही कल्पना त्रिमूर्तीच्या रुपांत मूर्त स्वरुपांत ना. धर्मीक संकल्पना दृश्य रुपांत हाडप जाता. मुर्तीकला आनी चित्रकला ह्या माध्यमांवरवीं धर्मीक आनी संस्कृतीक संकल्पना मूर्त स्वरुपांत हाडपाचो वावर खूब आदींसावन चलता. त्रिमूर्तीचीं पुराणांतली कल्पना मुर्तीकलेंत तशीच चित्रकलेंत आयली. त्रिमूर्तीची शिल्पां तशींच चित्रा भारतांत खूबकडेन मेळटात. वेगवेगळ्या सांप्रदायांप्रमाण आनी भावार्थाप्रमाण त्रिमूर्तीमदल्या खंयचेय एके देवतेक मुखेल मानप जालां. शैव सांप्रदायी शिवाक जाल्यार वैष्णव सांप्रदायी विष्णुक मुखेल मानतात. मुखेल मानिल्ली देवता मदीं दवरून हेर दोन देवतांक तिचे दावे – उजवे कुशीक दवरतात. वेरूळच्या कैलास लेण्यांतल्या लंकेश्वर मंदिरांतल्या त्रिमूर्तींत शिवाची प्रतीमा मदीं आसून तिचे उजवेवटेन विष्णु आनी दावेवाटेन ब्रह्मा हांच्यो प्रतिमा आसात. राजस्थानांतल्या चित्तोडगडार मेळिल्ले त्रिमूर्तीक मदीं विष्णु तर दाव्याक ब्रह्मा आनी शिव आसा. दक्षिणेंत तिरुहोट्टीयूर शिल्पांत शिव मदीं उबो आसून ताच्या कमराच्या भागांतल्यान दोनय वटयां ब्रह्मा आनी विष्णु हांच्यो मुर्ती भायर आयिल्ल्यो आसात.

नागलपुरमच्या शिल्पांत विष्णुची मुर्ती मदी आसून दाव्यान ब्रह्मदेव आनी उजव्यान शिव हांच्यो मुर्ती विष्णूच्या कमरेच्या भागांतल्यान भायर आयिल्ल्यो दाखयतात. विष्णुचो अवतार मानिल्लो दत्तात्रेय ही ब्रह्मा, विष्णु, महेश ह्या देवतांची दत्तसंप्रदायांतली एक लोकप्रिय त्रिमूर्ती.

– कों. वि. सं. मं.

**त्रिलोक :** (पळेयात त्रिभुवन).

**त्रिविक्रम :** (तीन विक्रम : आक्रमणां जाचीं असो) विष्णुचें एक रूप. विष्णुच्या चोवीस नामांनी हाचो आस्पाव आसा. तीन खेपे धर्तरेक आपल्या ताब्यांत घेतिल्ल्या विष्णुचो उल्लेख ऋगवेदांत आयला तो असो –

त्रिर्देवः पृथिवीमेष एतां वि चक्रमे शतर्चसं महित्वा ।
प्र विष्णुरस्तु तवसस्तवीयान् त्वेषं ह्यस्य स्थविरस्य नाम ॥
वि चक्रमे पृथिवीमेष एतां क्षेत्राय विष्णुर्मनुषे दशस्यन् ।
ध्रुवासो अस्य कीरयो जनास उरुक्षितिं सुजनिमा चकार ॥

**अर्थ** – शेंकड्यांनी ज्वालामुखींनी वेश्टिल्ले हे धर्तरेचेर ह्या देवान आपल्या महिम्यान तीन फावट आक्रमण केलें. देखून ज्यो ज्यो विभूती प्रभावशाली आसात तातूंत विष्णुच चड प्रभावशाली थारला. ताका लागून ह्या पुराण पुरुशाचें नांव तशेंच प्रखर आसा. मनशांक रावपाखातीर आनी शेतीकामाखातीर (धर्तरी योग्य जावंची देखून) विष्णुन हे धर्तरेचेर तीन फावट आक्रमण केलें. त्या योगान ताचे उद्यमशील भक्तजन निश्चींत जाले. पवित्र कितींच्या विष्णुन तांचीं निवासस्थानां प्रशस्त केलीं.

कांय अभ्यासकांच्या मतान सुर्याचो उदेंत, मध्यान आनी अस्त ह्या तीन अवस्थांचें हें वर्णन आसा. ऋगवेदांत उल्लेख केल्ल्या ह्या त्रिविक्रमरुपी विष्णुवयल्यानच पुराणांतले वामन कथेचो उगम जाला. दोन पावलांनी सर्ग आनी धर्तरी व्यापून, तिसऱ्या पावलान बळीक पाताळांत धाडपी वामनाच्या विराट रुपाची जायतीं वर्णनां पुराणांत मेळटात. देखून, वायू पुराणांत त्रिविक्रमाक ब्रह्मपुरुषोत्तम अशें म्हळां. वैखानस आगमात त्रिविक्रम मुर्तीची विस्तारान म्हायती दिल्या.

भारतांत त्रिविक्रमाच्यो जायत्यो पुर्विल्ल्यो मुर्ती आस्तित्वांत आसात. महाबलिपुरमची मुर्ती वैखानस आगमांतल्या वर्णनावरी आसा. थंयचे मुर्तीक आठ हात आसून एक पांय सर्ग व्यापपाक उबो जाल्लो आसा. बदामीच्या

आनी वेरूळच्या लेण्यांतय सुंदर त्रिविक्रममुर्ती आसात. खानदेशांत शेंदुर्णी (जळगांव) ह्या गांवांत तीन फूट उंचायेची काळ्या पाशाणाची त्रिविक्रमाची एक मूर्त जमनींत मेळ्ळ्या. ही मूर्त खुबूच सुंदर आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**त्रिविक्रम व्रत :** एक काम्य व्रत. हाचे वेगवेगळे पर्याय आसात. ते अशे - १) कार्तिक, मार्गशीर्ष आनी पौष ह्या तीन म्हयन्यांनी विष्णु आनी सूर्य हांची पुजा करप असो हो विधी. ह्या व्रतांत एकूच वेळ जेवतात आनी दुसऱ्या वेळाचें जेवण ब्राह्मणाक वाडटात. हें व्रत तीन वर्सां करतात. हें व्रत केल्यार त्रिविध तापांचो नाश जाता. २) खंयच्याय म्हयन्यांत शुद्ध तृतियेक ह्या व्रताची सुरवात करतात. त्रिविक्रम आनी लक्ष्मी हांची पुजा आनी 'त्रिविक्रमाय नमः' ह्या मंत्रान होम करप असो ताचो विधी आसा. हें व्रत तीन वा बारा वर्सां मेरेन करतात. ह्या व्रतापसून भलायकी आनी धन मेळटा. ३) जेष्ठ शुद्ध द्वितीयेक उपास आनी तृतियेक सकाळीं अग्नीची पुजा आनी सांजवेळची सुर्याची पुजा करून उपरांत रान्नीची आनी विष्णुच्या तीन पावलांची पुजा करतात. हें व्रत एका वर्सामेरेन करतात. हे व्रत केल्यार विष्णुलोकाची प्राप्ती जाता. ४) मार्गशीर्ष शुद्ध नमीक सुरवात करून तीन दीस आनी तीन राती उपास आनी वासुदेवाची पुजा करप. दरेका म्हयन्यांत दोन फावट अशीं १०० त्रिरात्रव्रतां करपाक चार वर्सां आनी दोन अदीक म्हयने लागतात. हें व्रत केल्यार सर्गप्राप्ती जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**त्रिवेंद्रम :** (पळेयात थिरुअनंतपुरम्).

**त्रिवेदी, जिनाभाय जगन्नाथ :** (जल्म : १३ नोव्हेंबर १९१४, भिमपूर दमण; मरण : ४ सप्टेंबर १९७६).

सुटकेझुजारी. ताणें विद्यालयीन मेरेनचें शिक्षण गुजरातींतल्यान घेतलें. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आसलो. सुटके चळवळीच्या कामांत तो तिरंगी बावटे लावप, शिमेवयल्या क्रांतीवीरांक पोर्तुगीजांच्यो राजकीय खबरो पावोवप असलीं कामां करतालो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी पांच वर्सां बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**त्रिशूळ :** एक पुर्विल्ले आयूध. हाका लांब दांडो आनी फुडें तीन तोंकां आसतात. हें शिवाचें धोणू अशें मानतात. त्वष्टयान सुर्याचें वैष्णव तेज कानशींन घासून त्रिशूळ तयार केलो, अशें मत्स्य आनी विष्णु पुराणांत सांगलां. त्रिशूळ हें खूब प्रभावी आयूध आसून तें पयलीं नेटान घुंवडावन प्रतिस्पर्ध्याच्या आंगांत रोमतात, असो उल्लेख वाल्मिकी रामायणांत आसा.

एक प्रतीक म्हणून त्रिशूळ वापरतात. कितल्याशाच देवांच्या हातांत त्रिशूळ आसता. शैव तंत्रांत त्रिशूळाक म्हत्वाची सुवात आसा. मोहेंजोदाडोच्या उत्खननांत त्रिशूळ सांपडला. त्रिशूळ हो तीन ज्वाळा आशिल्ल्या उज्यासारको दिसता आशिल्ल्यान ताचो ब्रह्ममूलाकडेन संबंद जोडटात.

बौद्धांच्या त्रिरत्न आनी बोधिवृक्ष ह्या प्रतीकांचे त्रिशुळाकडेन साम्य आसा. भरतहूत, सांची आनी अमरावती हांगाच्या बौद्ध शिल्पांनी खांब्यांचेर त्रिशूळ कोरांतिल्ले आसात. जुन्नर, भाजे, बेडसे, कुडा आनी कार्ले हांगाच्या लेण्यांतूय त्रिशूळ हें चिन्न सांपडटा.

रांचीचे अस्तंतेक टांगीनाथ ह्या शैव क्षेत्रांत एक व्हडलो लोखणी त्रिशूळ आसा. ताचे मदलें तोंक मोडून पडलां. त्या मोडिल्ल्या तोकांचें वजनूच सुमार तीन मण आसा. उदेंतेकडल्या कितल्याशाच देशांनी पयलींच्या काळांत आयूध आनी प्रतीक म्हणून त्रिशुळाचो वापर करताले.

- कों. वि. सं. मं.

**त्रिशूळदान :** एक तरेचें दान. सत्पात्र ब्राह्मणाक दान स्विकारपाखातीर आपोवन कांय कारणांक लागून ताका दान दिनासतना धाडप हें एक व्हड पाप समजप जाता. हें पाप केल्ल्याक पोटखण्याचे खूब त्रास जातात असो समज आसा. हें पाप भोगपाखातीर त्रिशूळदान करतात. हें दान कृष्ण पक्षांतली अश्टमी वा चतुदर्शी ह्या दिसा करपाचें आसता.

ते खातीर भांगराचो एक त्रिशूळ तयार करतात. तांब्याच्या आयदनांत तीळ भरून तें आयदन दान दिवप्याचे बोमलेर दवरतात. उपरांत तातूंत ह्या त्रिशुळाची स्थापना करतात. शिवपंचाक्षरी मंत्रान, रुद्रसुक्तान वा 'त्रिशूलाय नमः' ह्या मंत्रान त्रिशूळाची पुजा करतात. उपरांत कचाचेर विरुपाक्षाच्या भांगराप्रतिमेची स्थापना करून तिचीय पुजा करतात. इतलें जातकच ब्राह्मण त्या त्रिशुळाचें दान करता. त्या वेळार जो दानमंत्र म्हण्टात तो असो -

> भगवन भगनेत्रघ्न दक्षयज्ञप्रमर्दन ।
> तवायुधप्रदानेन पापं नश्यतु शङ्कर ॥
> येन दग्धं क्षणार्धेन त्रिपुरं सुरदुर्जयम् ।
> तेन पाशुपतेनाशु मन शूलं विनाशय ॥

**अर्थ** - इंद्राचो नाश करपी आनी दक्षयज्ञाचो विध्वंस करपी भगवान शंकर, तुज्या आयुधाच्या दानान म्हजें पाप नश्ट जावं. ज्या पाशुपतान तूं देवांकय अजिंक्य थारिल्लीं त्रिपुरां खिणांत जळयलीं, त्या त्रिशुळान तूं म्हज्या पोटांतल्या (पोटखण्याचो) शुलाचो नाश कर अशी प्रार्थना करून ब्राह्मणाक जेवण आनी दक्षिणा दिवन दानाचो विधी सोंपयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**त्रेतायुग :** (पळेयात युग).

**त्र्यंबकेश्वर :** नासिक जिल्ह्यांतलें नामनेचें तीर्थक्षेत्र. नासिकाचे नैर्ऋत्येक सुमार २९ किमी. अंतराचेर ब्रह्मगिरी दोंगराच्या मुळसांत हें शार वसलां. त्र्यंबकेश्वर हें बारा ज्योतिर्लिंगांतलें एक. ह्या क्षेत्राचे उत्पत्ती विशीं पुराणकथा अशी आसा - एक फावट ब्रह्मदेवाच्या मनांत आयलें, की आपूण सृश्टीकर्तो आशिल्ल्यान शिवमहिमा कितें तो आपल्याक खबर आसा. हें विष्णूक कळटकच ताणेंय मान्य केलें की, आपणें खूब वर्सां तप केलें पूण आपल्याक अजून शिवाचें ज्ञान जालें ना. अखेर ताणीं दोगांयनी थारायलें की, ब्रह्मदेवान शिवाच्या मस्तकाचो सोद लावप आनी विष्णून ताच्या पांयांचो. पूण ह्या कामांत तांकां यश मेळ्ळें ना. तेन्ना ब्रह्मदेवान कवाश्याचें (हातो) फूल आनी गाय तयार करून तांची फटीची गवाय आपले वटेन तयार केली आनी देवलोकांत वचून आपल्याक शिवाच्या मस्तकाचो सोद लागला आनी आपणें ताचो दुदान अभिशेक केला आनी कवाश्याच्या फुलान पूजा केली अशें सांगलें. तें आयकून इंद्राक दुबाव आयलो आनी तो शिवा म्हऱ्यांत गेलो. शिव ब्रह्मदेवाचें कारस्थान वळखलो आनी ताणें ताका स्त्राप दिलो. भूंयलोकार तुजी कोणूच पुजा करचो ना. शिवान ह्या वेळार कवाशाच्या फुलाकूय आपले पुजेखातीर निशिद्ध मानलें आनी गायेक सांगलें, ज्या तोंडान तुवें फट मारली तें तुजें तोंड सदांच अपवित्र

उरतलें. शाप आयकून ब्रह्मदेवाक राग आयलो आनी ताणें शिवाक परत स्त्राप दिलो, तूं भुंयेचेर दोंगर जावन रावतलो. थोड्या वेळान ब्रह्मदेव थंड जालो आनी ताणें शिवाची आपल्याचेर कृपा जावंचे खातीर ताची तोखणाय केली. तें आयकून शिव प्रसन्न जालो. ताणें भुंयचेर दोंगराचें रूप घेतलें आनी ताचें नांव ब्रह्मदेवावयल्यान ब्रह्मगिरी अशें दवरलें. ब्रह्मगिरीच्या मुळसांत त्र्यंबकेश्वराचें देवूळ आसा.

ब्रह्मगिरी दोंगराचेर किल्लो आसून गोदावरी न्हंयेचो उगम ह्याच दोंगरांतल्यान जाला. सद्याचें त्र्यंबकेश्वराचें देवूळ बालाजी बाजीराव पेशव्यान बांदलां. देवळाभोंवतणी फातरांचो तट आसून ताचो आवांठ ८०. ७७ x ६६.४५ मी. आसा. ह्या देवळांतलें शिवलिंग शाळुंकेचे भितर आसून तातूंतल्यान सतत उदक झिरपता. शिवलिंगाखातीर भांगराचे पांच तोंडांचें मुखें आनी रत्नजडीत किरीट आसा. देवळाचें तोंड उदेंतेवटेन आसा. ह्या देवळाभोंवतणी श्रीकृष्ण, परशुराम, लक्ष्मीनारायण आदिंचीं देवळां आसात. हांगा कुशवर्त हें तीर्थकूंड आसा. ब्रह्मगिरीचे देंवतेचेर नाथ पंथाचो त्र्यंबकमठ आसा. दर बारा वर्सांनी कुंभमेळ भरता तेन्ना हांगा नाथ पंथाचे जोगी एकठांय येतात.

१८६६ पसून हांगा नगरपालिका आसा. मुळाव्यो, माध्यमिक, वेदशाळा, वाचनशाळा आसात. कार्तिकांतली त्रिपुरी पुनव, पौश वद्य एकादशीची निवृत्तीनाथाची पुण्यतिथी आनी माघांतली महाशिवरात ह्या दिसांनी हांगा जात्रा भरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**थंडेचीं दुखणीं :** स्वास - उस्वासकारी (Respiratory) अवयवांक रोगजंतूंची लागण जावन उपरासलेल्या दुखण्यांक थंडेचीं दुखणीं म्हण्टात.

थंडेच्या दुखण्यांमदीं दोन मुखेल प्रकार आसात -

१) स्वास-उस्वासकारी वयल्या अवयवांचीं दुखणीं (Upper Respiratory Infections URI) आनी २) स्वास-उस्वासकारी सकयल्या अवयवांचीं दुखणीं (Lower Respiratory Tract Infections LRTI).

नाक, ताळो, गळो हांचीं दुखणीं पयल्या प्रकारांत जाल्यार स्वास-उस्वासाची नळी आनी फुफुसां हांचीं दुखणीं दुसऱ्या प्रकारांत मोडटात.

सादी थंडी हें स्वास-उस्वासकारी वयल्या अवयवांचें दुखणें सगळ्या दुखण्यांमदीं चड प्रमाणांत जावपी दुखणें आसा. थंडी दर एकाक हें दुखणें केन्ना ना केन्ना जाताच. भिण्णां फुलप, कांटेल, कान व्हांवप हीं स्वास-उस्वासकारी वयल्या अवयवांचीं हेर दुखणीं आसात.

स्वास-उस्वासकारी सकयल्या अवयवांचीं दुखणीं हीं मातशीं खर आनी जिवाक धोक्याचीं आसतात. हातूंत प्लिवमोनी, कोंकें, क्रू आनी ब्रोंकीत हीं दुखणीं आस्पावतात.

थंडेचीं दुखणीं सगळ्यांकच जावं येतात. पूण तांचीं चड बादा भुरग्यांक जाता. कुपोशणान दुबळीं जाल्ल्या भुरग्यांक जाल्यार हीं दुखणीं खर जावं येतात. थंडेचीं दुखणीं हें भुरग्यांच्या मरणाचें एक मुखेल कारण. स्वास-उस्वासकारी वयल्या अवयवांचीं दुखणीं चड करून पावसाच्या दिसांनी जातात आनी स्वास-उस्वासकारी सकयल्या अवयवांचीं दुखणीं शियाच्या दिसांनी जातात.

थंडेचीं दुखणीं वायरस आनी बॅक्टेरिया जातीच्या रोगजंतूंपासून जातात. वायरस जातीचे रोगजंतू, सादी थंडी आनी कोंकें ह्या दुखण्यांक जापसालदार आसतात. फकत सादी थंडी हें दुखणें सुमार १०० वेगवेगळ्या तरांच्या वायरसांक लागून जाता. कोंकें(Bronchiolitis) हें ल्हान भुरग्यांचें दुखणें Respiratory syncitial virus ह्या रोगजंतूंची लागण जावन जाता. भिण्णां फुलप, कान व्हांवप, क्रू, प्लिवमोनी आनी ब्रोंकीत हीं दुखणीं बॅक्टेरिया जातीच्या रोगजंतू पसून जातात. Streptococcus, Pneumococcus, H influenza ह्या जातींचे बॅक्टेरिया ह्या दुखण्यांक जापसालदार आसात.

थंडेचे रोगजंतू दुखणेंकाराच्या स्वास-उस्वासावरवीं पातळटात म्हणून गर्दी आशिल्ले सुवातेर हीं दुखणीं पातळपाचो चड भंय आसता. बसी, शाळेंतले वर्ग, सिनेमाघरां ह्यो सुवाती थंडेचीं दुखणीं पाताळावपाक खूब जापसालदार जातात. जे लोक विडी-सिगार ओडटात तांकां आनी तांच्या लागींच्या घरच्यांक ब्रोंकीत, प्लिवमोनी सारकीं दुखणीं चड प्रमाणांत जातात. रांदनीलागीं उरपी बायलांकय धुंवराक लागून थंडेच्या दुखण्यांचो भंय चड आसता. वारो घोळनाशिल्ल्या घरांनी रावपी लोकांमदीं ह्या दुखण्यांचें प्रमाण चड आसता.

थंडेच्या दुखण्यांचीं लक्षणां दुखण्यांप्रमाण तरेकवार आसतात. सादे थंडेंत नाक व्हांवप वा चोंदप, खांक येवप, जोर येवप हीं लक्षणां दिसतात.

भिण्णां फुलतकच खर जोर येता. भुरग्याचो ताळो दुखता आनी ताका गिळपाक त्रास जातात. भिण्णां सुजून मोटीं जातात. भिण्णांचेर धवे ठिपके दिसतात. कांटेलांत भिण्णांचेर मळकट धवसो दाग दिसता.

सायनसाच्या (Sinusitis) दुखण्यांत तकली दुखता. नाकांत घाण वास आनी पाचवो-हळदुवो शेमूड येवपाचीय शक्यताय आसा.

क्रू हें दुखणें भुरग्यांचें. हातूंत स्वास भितर घेतना घरघराचो आवाज येता आनी स्वास भितर ओडटना भुरग्याक खूब त्रास जातात. ह्या दुखण्यांत जिवाक भंय आसता.

प्लिवमोनींत खांक, उबस आनी जोर हीं दुखणीं जातात. ह्या दुखण्यांत स्वास-उस्वास उथळ पूण चड गतीन जाता. हें दुखणें खर जाल्यार भुरग्याक उदक पियेवपाक त्रास जातात. ताच्या रगतांत प्राणवायूचें प्रमाण उणें जावन तें निळें पडटा. स्वास-उस्वासाक त्रास जाल्यार भुरग्याच्यो कुशी तोंपतात. कोंकें ह्या दुखण्यांत भुरग्याक दम्याभाशेन उबस येता आनी उस्वास सोडटना कोंकों असो आवाज येता. कोंकें चड जाल्यार उस्वास सोडटना कुशी तोंपतात.

थंडेच्या दुखण्याचेर तरेकवार वखदां आसात. सादे थंडेक वखदांची कांयच गरज आसना. ती आपशींच दोन वा तीन दिसांभितर बरी जाता. थंडी सुकूंक जायना म्हणून उदक मात सदचेपरस चड पियेवंक जाय. प्लिवमोनी, क्रू, भिण्णां फुलप ह्या दुखण्यांनी ॲण्टिबायोटीक ह्या बॅक्टेरिया ना करपी वखदांची गरज आसता.

प्लिवमोनींत ॲण्टिबायोटीक वखदां, दुखण्याची पारखण जातकच बेगीन सुरू करूंक जाय. वखदां दिवपाक कळाव केल्यार भुरग्याच्या जिवाक भंय आसता. हीं वखदां उणींच दोन सप्तकांमेरेन भुरग्याक दिवंक जाय. संवसारीक भलायकी संस्थेन सुचयल्ले प्रमाण स्वास-उस्वासाची गती वाडिल्ल्या दर भुरग्याकCotrimaxazole वा Ampicillin हीं ॲण्टिबायोटीक वखदां दिवंक जाय. अशें केल्यार प्लिवमोनीच्या दुखण्याक आळाबंद येता.

भिण्णां फुलतकच 'पेनिसिलीन' ह्या ॲण्टिबायोटिकाची गरज आसता. भिण्णांचेर उपाय वेळार जाले नात जाल्यार संधिवात आनी मूत्रपिंडाचीं दुखणीं जावंक शकतात. कांटेल ह्या दुखण्यांत Antidiphthric serum आनी पेनिसिलीन हीं वखदां घेवचीं पडटात.

थंडेच्या दुखण्यांत ॲण्टिबायोटीका वांगडाच पारासेतामोल (Paracetamol) हीं वखदां जोर देंवोवपाक घेवंक जाय. मिठाच्या उदकाचे थेंबे नाकांत घाल्यार नाक चोंदपाचें बंद जाता.

थंडेचीं दुखणीं आडावपाक हे उपाय केल्यार बरे –

१. वेळार वासिनां केल्यार कांटेल आनी हुरहुऱ्याचीं दुखणीं टाळपाक येतात. ग्रीप आनी साद्या थंडेचेरय आतां वासिनां आयल्यांत.

२. घराचीं दारां जनेलां उकतीं दवरून वारो खेळटो दवरूंक जाय.

३. विडी - सिगार ओडूंक जायना. तशेंच धुंवराविरयेत रांदनी वापरप बरें.

४. थंडेच्या दिसांनी गर्दी टाळप, थंडी जाल्ल्या भुरग्याक शाळेंत धाडप ना. अशें थंडेचीं दुखणीं पातळनात.

५. थंडी जाल्ल्या मनशान खोकतना नाक आनी तोंड लेंसान धांपूंक जाय. तशेंच ताणें जळामळा थुकपाक जायना.

६. भुरग्याक थंड हवेंत व्हरपाक जायना.

- डॉ. ए. जी. बोरकार

**थ :** त वर्गांतलो दुसरो वर्ण आनी देवनागरी वर्णमाळेंतलें सतरावें व्यंजन. ह्या अक्षराच्यो पांच अवस्था आसात. पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनारच्या शिलालेखांत, दुसरी आनी तिसरी राजा यशोधर्म्याच्या मंदसोर शिलालेखांत (इ. स. ५३२) आनी चवथी लल्ल, भोज आनी उदयादित्य हांच्या अनुक्रमान देवल (इ.स. ९९२), धार (इ. स. चो इकरावो शेंकडो) आनी उज्जैन (इ.स. चो इकरावो शेंकडो) ह्या नगरांतल्या लेखांनी मेळटा. हांचेफुडली अवस्था म्हळ्यार ह्या वर्णाचें सद्याचें रूप.

वर्णोध्दारतंत्रांत हाचें स्त्रीरुपी ध्यान वर्णिलां तें अशें —

नीलवर्णां त्रिनयनां षड्भुजां वरदां पराम् ।
पीतवस्त्रपरीधानां सदा सिध्दिप्रदायिनीम् ॥
एवं ध्यात्वा थकारं तु तन्मन्त्रं दशधा जपेत् ॥

**अर्थ** - निळ्या वर्णाची, तीन दोळ्यांची, स भुजांची, वरदायिनी, श्रेश्ठ, हळदुवें, वस्त्र न्हेसपी आनी सदांच सिध्दी दिवपी अशे 'थ' देवतेचें ध्यान करून तिच्या मंत्राचो धा खेपे जप करचो.



थ च्या रुपाचो विकासक्रम.

- कों. वि. सं. मं.

**थर्मास :** थंड वा हून पदार्थ, तांचें तापमान व्हडलेंशें बदलूंक दिना आसतना, सांठोवन दवरपी पात्र. द्रवरूप ऑक्सिजन सांठोवन दवरपाखातीर फावो तें पात्र सोदून काडपाच्या यत्नांतल्यान जेम्स देवार (ड्यूअर) ह्या स्कॉटिश शास्त्रज्ञान १८९२ च्या सुमाराक ह्या पात्राचो सोद लायलो म्हणून ताका देवार पात्र अशेंय म्हण्टात. 'थर्मास बॉटल' वा 'व्हॅक्यूम फ्लास्क' ह्या वेपारी नांवान तें बाजारांत मेळटा.

संवहन (Conduction) , संनयन (Convection) वा प्रारण (Radiation) ह्या तीन तरांच्या क्रियांनी उश्णतेचें संक्रमण (transference) जावंक शकता. पयल्या दोन क्रियांखातीर वास्तव माध्यमाची गरज आसता. तेन्ना वास्तव माध्यम काडून उडयल्यार संवहन आनी संनयन ह्यो क्रिया बंद जातल्यो. दुसरी गजाल म्हळ्यार चकचकीत पृश्ठभागापसून जावपी उश्णतेच्या प्रारणाचें प्रमाण उणें आसता. ह्या दोन तत्त्वांचो उपेग थर्मास पात्राचे रचणुकेंत करतात.

ह्या पात्रांतलो मुखेल भाग म्हळ्यार एक कंवचेची (वा धातूची) दोट्टी बाटली. पातळ कंवचेच्यो दोन सारक्या आकाराच्यो बाटल्यो एकाभितर एक अशो बसयतात. ह्या दोन बाटल्यांनी थोडें (सुमार २ मि.मी.) अंतर आसून तांच्या मदल्या भागांतली हवा पंपा वरवीं काडून उडयतात. देखुनूच ह्या साधनाक निर्वात (Vaccum) पात्र अशेंय म्हण्टात. हाका लागून बाटलेच्या कडांतल्यान जावपी संवहन आनी संनयन सामकें उणें जाता. ह्या बाटल्यांच्या पृश्ठभागाचेर पारो वा रुप्याचो वर्ख लावन ताचे पृश्ठभाग चकचकीत केल्ले आसतात. ताका लागून उश्णतेच्या प्रारणाचें प्रमाणय सामकें उणें जाता. अशे तरेनं बाटलेच्या भितरल्यान भायर वा भायल्यान भितर जावपी उश्णताय संक्रमण उणें जाल्ल्यान भितर दवरिल्ल्या (थंड वा उश्ण) पदार्थाचें तापमान सुमार ८-१० वरांमेरेन तरी सादारणशें थीर रावंक शकता.




१) भायले धातुचें / प्लास्टीकचें पात्र २) भायली कंवचेची बाटली ३) निर्वात (पोकळी) ४) भितरली कंवचेची बाटली ५) धक्को शोषक ६) हवा काडल्या उपरांत बंद केल्लें तोंड ७) बूच ८) धांपणें.

ही बाटली पातळ कंवचेची आशिल्ल्यान किदयाकय आपटून फुटची न्हय म्हणून ती पत्र्याच्या वा प्लास्टीकच्या आयदनांत बसयल्ली आसता. बाटलेच्या तळासकयल वा गळ्याभोंवतणीं रबरीचे वा प्लास्टीकचे धपके सोंसपी (Shock absorbers) बसयल्ले आसतात. बाटलेचें तोंड प्लास्टीकचे एके गुड्डेन बंद करून ताचे वयल्यान डब्याच्या तोंडार बसपी धुंवडावपाचें धांपणें आसता. ह्या धांपण्याचो उपेग पेय पियेवपाखातीर कपासारको करूं येता. खूबदां गुड्डी आनी धापणें म्हणून प्लास्टीकाचो एक ज्यादा कप उमथो दवरिल्लो आसता. हे सगळे रचणुकेक लागून गुड्डेंतल्यान जावपी उश्णताय संक्रमण उणें जावपाक मदत जाता. इतली जतनाय घेवन लेगीत उश्णतायेचें जें थोडेंभोव संक्रमण जाता, तें चडशें हे गुड्डेंतल्यानूच जाता.

१९४२ चे आदीं थर्मासांची भारतांत आयात जाताली. १९४२ त 'व्हिक्टरी फ्लास्क लि.' हो पयलो थर्मास कारखानो मुंबय सुरू जालो. १९५५ त चेन्नई आनी उपरांत हेरकडेनय थर्मास निर्मिती सुरू जाली. आतां थर्मासांची आयात बंद जाल्ली आसून भारतांतल्यान रशिया, ब्रिटन,

स्विडन, फ्रान्स, अस्तंत जर्मनी, पोलंड, हंगेरी, युगोस्लावियाँ, अस्तंत आफ्रिका, मध्यउदेंत आशियांतले देश, श्रीलंका, फिलिपिन्स, हाँगकाँग, जपान आदी देशांक थर्मासांची निर्यात जाता. आतां वेगवेगळ्या आकारांतले आनी पदार्थाच्या प्रकाराप्रमाण रचिल्ले थर्मास मेळटात. च्या, काफी, उदक, झेल, आयसफ्रूट, जेवणा सारकिले पदार्थ दवरपाक थर्मासाचो चड उपेग जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**थळी, सुर्यकांत विठ्ठल :** (जल्मः २९ जुलय १९२९, हणजुणें-बारदेस; मरण : ११ जुलय १९८९).

सुटकेझुजारी. ताणें मॅट्रीक मेरेन शिक्षण घेतलें. नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो आनी १९४६ वर्सासावन तो राजकीय वावरांनी वांटो घेवंक लागलो. २८ ऑक्टोबर १९४६ ह्या दिसा ताणें म्हापशें वाठारांत सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. पोलिसांनी ताका धरलो, बंदखणींत घालो आनी सुमार धा दिसांनी सोडलो. तरी ताणें भूंयगत वावरांनी वांटो घेवपाचें चालूच दवरलें.

ऑगस्ट १९५४त ताका कुळें रेल्वे स्थानकाचेर परतो धरलो आनी २२ दीस पणजे पोलीस ठाण्यांत दवरलो. उपरांत तो पिटर आल्वारीश हाच्या मार्गदर्शनाखाल बेळगांवां सुटकेझुजाचो वावर करूंक लागलो. तो बेळगांवच्यान पत्रिका तशेंच पत्रकां गोंयांत हाडून तांचो प्रसार करपाचें काम करतालो. तरणाट्यांमदीं सुटकेझुजाविशीं उर्बा हाडून तांकां सत्याग्रहांत वांटो घेवंक लायतालो.

२६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा ताका बाळा काकोडकार हाचे वांगडा परतो धरलो. ताका प्रादेशिक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून धा वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ऑगस्ट १९५९ वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**थायलंड :** आग्नेय आशियेंतलो एक देश. क्षेत्रफळ ५,४२,३७३ चौ. किमी. लोकसंख्या ५६, ९००,००० (१९९१). विस्तार ६° ते २०° उत्तर आनी ९७° ते १०६° उदेंत. दक्षिण-उत्तर लांबाय १,५०० किमी. आनी रुंदाय ८३० किमी. १९३९ पयलीं हाचें नांव 'सायाम' अशें आशिल्लें. थायलंडाचे अस्तंत आनी वायव्येक मियानमार, उदेंतेक आनी ईशान्येक लाओस, आग्नेयेक ख्मेर आनी दक्षिणेक थायलंडाचें आखात आसा.

**भूंयवर्णन** – थायलंडाचे अस्तंतेवटेन, दोंगरी वाठार आसा आनी ताची उंचाय उत्तरेक वाडत वता. उदेंतेक खोरातचो सडो आसा आनी मदीं चाऊ फ्राया देशांतले मुखेल न्हंयेची सखल मळां आसात. भूंय रचणुकेचे नदरेन देशाचे चार वांटे केल्यात.

१. उत्तरेकडचो पर्वतांचो वाठार
२. मदली मळां
३. खोरात सडो
४. तेनासरीम थायलंड.

उत्तरेच्या दोंगरी वाठारांनी घडयो पडिल्ले पर्वत आसात, तांची रचणूक सादारणपणान दक्षिण-उत्तर आसा. दोई इंतानॉन हें हांगाचें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक. मदलें मळ वा मेनामचें देगण हो थांयलंडचो सगळ्यांत म्हत्वाचो वाठार. खोराताच्या सड्याची अस्तंत आनी दक्षिण देग दाट रानांची आसा. दक्षिणेकडचो तेनासरीम वाठार साप अशीर आसा.

थायलंडाचो मान्सून हवामान प्रदेशांत आस्पाव जाता. मार्च ते मे गीम आनी जून ते ऑक्टोबर काळांत पावस पडटा आनी नोव्हेंबर ते मार्च शियाळो आसता. तापमान २४° ते ३०° सॅ. इतलें आसता. वर्सुकी पावस ८० सेंमी. ते ४०० सेंमी. पडटा.

थायलंडाची ६०% भूंय रानांनी भरल्या. हांगा मान्सून तरेचें रान आसून चड पावस पडपी वाठारांनी सदां पाचवीं उरपी झाडां मेळटात. मुखेल म्हत्वाच्या झाडांनी साग, यंग, शोरिया, रोझवूड, आयर्नवूड, एबनी स्तन आनी कोंडे हांचो आस्पाव जाता. तातूंतले साग हें चड म्हत्वाचें आसून तें अस्तंत आनी उत्तरेच्या दोंगरी वाठारांत आसा. रानटी मोनजातींचे विंगड विंगड प्रकार हांगा आसात. धव्या हतयाखातीर ह्या देशाची आदल्या तेंपारसावन नामना आसा. हांगा वाघ बिबटे, वांस्वेलां, हरणां, रानदुकर, वानर, मानगीं ही मोनजात चड प्रमाणांत सांपडटा.

**इतिहास** – इ. स. प. सव्या शेंकड्यांत, चीनी लोकांनी आपल्या इतिहासांत मागाशिल्ले जमातीचो उल्लेख केला. ते लोक 'थाई' आशिल्ले अशें आधुनिक इतिहासकारांचें मत आसा. थाई लोक सुमार एक हजार वर्सापयलीं चीनांतल्यान भायर सरून दक्षिण आनी अस्तंत दिशांनी इंडोचीन द्वीपकल्पाच्या उत्तर वाठारांत आपलो राबितो करून रावले. थाई हे सखल वाठारांतले लोक आसून तांचीं घरां न्हंयेच्या देगांनी आनी तांची अर्थवेवस्था न्हंयांचेर आदारिल्ली आसताली. थाई लोक जेन्ना आग्नेय आशियेंत रावपाक लागले, तेन्ना तांचेकडेन समाजीक एकचार, राजकीय वेवस्था आनी शिस्त हे गूण आशिल्ले. थाई लोकांचे बखरींवरवीं थाई लोकांनी तेराव्या शेंकड्याच्या सुमाराक उत्तर मियानमार, चीनाचो युनान प्रांत, भारतांतलें आसाम राज्य आनी थायलंडाक ल्हान ल्हान राज्यां आशिल्लीं म्हणपाचें समजता.

तेराव्या शेंकड्यांत थायलंडांत दोन मुखेल राज्यां निर्माण जालीं. सुखोथाई राज्य आनी चीआंगमाई राज्य. इंडो-चीन द्विकल्पी प्रदेशांतल्या मॉन लोकांसावन थायांनी बौद्ध धर्म आपणायलो.

सोळाव्या शेंकड्यांत आशिये कडेन येवपी मार्ग पोर्तुगीजांनी सोदले उपरांत थायलंडाक, पोर्तुगेज, डच, ब्रिटीश आनी फ्रॅंच वेपाऱ्यांची आनी धर्मप्रचारकांची वाड जावपाक लागली. १६०८ आनी १६१२ त डचांनी आनी ब्रिटिशांनी अयथ्थया शारांत वेपार केंद्रां उबारिल्लीं. १६५७त फ्रा नाराई हो गादयेर आयलो आनी ताणें ब्रिटीश आनी डचांचो शेक उणो जावचो म्हणून फ्रॅंचावांगडा राजकीय संबंद घट केले. पूण १६८८ त फ्रॅंचाआड बंड जावन फ्रॅंचाक थायलंडासावन धांवडावन घाले.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक थायलंडाचो चीनाकडेन वेपार वाडिल्ल्यान चीनी लोकांचेंय प्रमाण वाडत गेलें. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दकासावन युरोपी राष्ट्रांचो वेपार वाडलो. ह्याच काळांत राजा चुलालंगकर्ण हाणें युरोप आनी अमेरिके चे कायदे तशेंच चालीरिती आपणावन देशाची अर्थीक आनी राजकीय वेवस्था सुदारली.

थायलंडांत २४ जून १९३२ मेरेन राजेशाय आशिल्ली. त्याच दिसा लश्करी अधिकाऱ्यांनी सत्ता आपल्या हातांत घेतली आनी २७ जून ह्या दिसा हंगामी संविधान कायदो चालीक लायलो. १९७४ ह्या वर्साच्या संविधाना प्रमाण देशांतल्या ३० वर्सां जाल्ल्या जण एकल्याक मत दिवपाचो

अधिकार पावता. हांगा संविधानात्मक राजशाय आसा. संसदेची 'नॅशनल ॲसेंब्ली' आनी 'हाउस ऑफ रिप्रेझेंटेटिव्ह' अशीं दोन सभाघरां आसात. हाऊस ऑफ रिप्रेझेंटेटिव्हच्या भौमत मेळिल्ल्या पक्षाच्या नेत्याची राजा पंतप्रधान म्हणून नेमणूक करता.

**अर्थीक स्थिती -** थायलंड हो शेतवडीर चड भर दिवपी देश आनी वट्ट लोकसंख्येचे ८५% लोक शेतवड उद्येगांत आसात. तांदूळ हें म्हत्वाचें पीक. मको, केनाफ, ताग, ऊंस, तंबाकू, रबर हांचेंय बरेंच पीक हांगा येता. हांगा पशुपालनाकय म्हत्व आसा. हांगा रबरीचे खूब मळे आसात.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत हांगाच्या उद्येगधंद्यांत खूब वाड जाली. हांगा शेतामळ, रानांतलें उत्पन्न आनी खनिजां हांचेर प्रक्रिया करपी उद्येग म्हत्वाचे जाल्यात. तशेंच भाताच्यो गिरणी, साकर, लाकडी सामान, सिगरेट, ताग गिरणी, शिमीट हे उद्येग हांगा आसात. सगळ्यांत व्हड उद्येग म्हळ्यार थाई ऑयल कॉर्पोरेशनान बांदिल्लो तेल निवळीकरण कारखानो. १९६५ त फायरस्टोन कंपनीन टायरांचो व्हड कारखानो सुरू केला.

कॅसिटरायट आनी बूलफ्रॅम हीं थायलंडांतली चड म्हत्वाचीं खनिजां. जस्ताच्या संवसारीक उत्पादनांत थायलंडाचो तिसरो क्रमांक लागता. जस्ताच्या खाणींच्या वाठारांत शिंशेंय मेळटा. दक्षिण थायलंडाक थोड्या प्रमाणांत कोळसो मेळटा आनी उत्तरेक लिग्नायटाची एक खाण आसा. हांचेभायर रुपें, भांगर, हिरे, पाचू, लोखण, तांबें, मॉलिब्डॅनम, मॅंगनीझ, झिरकॉन, चुनखडी आनी संगमरवर हीं कांय प्रमाणांत मेळपी हेर खनीजां आसात.

बाट हें थायलंडांतलें कायदेशीर चलन. आदल्या तेंपार ताका टिकाल अशें म्हण्टाले. सतांग हें ल्हान नाणें आसून १०० सतांग म्हळ्यार एक बाट जाता. चलनाखातीर निकॅल, तांबें, जस्त, ब्रॉंझ ह्या धातूंचो उपेग करतात 1/2, १,५,१०,२०,२५,५० सतांग आनी 1 बाट अशीं नाणी पाडटात. १९०२ वर्सा सावन कागदी चलनाक सुरवात जाली आनी ५० सतांग आनी १,५,१०,२०, १००, ५०० बाटांच्यो नोटी प्रचारांत आसात.

थायलंडांत १९४२च्या कायद्याप्रमाण बँक ऑफ थायलंड हे मध्यवर्ती बँकेची स्थापना जाली.

ह्या देशाचे येरादारीचे वेवस्थेंत पुरायपणान उदरगत जायत आसा. १९८५ मेरेन हांगा १,५६,७७६ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले आनी १९८६ मेरेन ३,७३५ किमी. लांबायेचे रेल्वे मार्ग आशिल्ले. बॅंकॉक, चियांग क्ये फ्युकेट आनी हातथाई शारांनी आंतरराष्ट्रीय विमानतळां आसात. देशाभितरली उदकांतली येरादारी न्हंयांतल्यान आनी खारजां वरवीं जाता. देशांत २२ बंदरां आसून तातूंतलें तातूंत बॅंकोक हें सगळ्यांत व्हड बंदर. हांगा उजवाडाक येवपी २२ दिसाळीं आसात. तातूंतलीं १३ थाई भाशेंत, चार इंग्लीश आनी १२ चीनी.

**लोक आनी समाजजीण -** १९९१ मेरेन थायलंडाची लोकसंख्या ५,६९,००,००० आसून वट्ट लोकसंख्येंतले चडशे चीनी आनी आग्नेय आशियाई मोंगोलियी वंशाचे भरस जाल्ले आसून धर्म, संस्कृती आनी भास हे नदरेन एकजीव जाल्ले आसात. थायलंडांत इतिहास, भास, धर्म, चालीरिती हे नदरेंतल्यान ३० वंशीक पंगड आसात. तातूंत थाईचे तीन मुखेल, तीन ह्याच पंगडासावन तयार जाल्ले उपपंगड आनी उरिल्ले हेर पंगड आसात. मुखेल पंगडांत थाई (सायाम), उदेंत थाई (लाओस) आनी उत्तरेकडले थाई अशे आसून उपपंगडांमदीं पुथाई, शान आनी लू हे आसात. जाल्यार हेर पंगडांमदीं चीनी, भारतीय, मलायी, कांबोडियन, कुई, कालेउंग, मोन, व्हिएतनामी (अन्नामी) कारेन हांचो आस्पाव जाता. देशांत बौध्द, इस्लाम, कन्फ्युशियीन, क्रिस्तांव शीख अशा विंगड विंगड धर्मांचे लोक रावतात. हांगाच्या ९०% लोकांचो आशिल्लो बौध्द धर्म हो राश्ट्रीय धर्म.

थाई भास ही देशाची अधिकृत भास. थाई लिपींत ३९ स्वर आनी ४४ व्यंजनां आसून तीं दावे वटेंतल्यान उजवेकडेन बरयतात. राज्यकारभारांत इंग्लिशीचो बरोच उपेग करतात. देशांत शिक्षणाचो प्रसार वाडोवपाखातीर चड प्रमाणांत यत्न चलतात.

**म्हत्वाचीं थळां -** वेगवेगळीं देवळां, राजवाडे, पागोडा हांचेखातीर थायलंडाची नामना आसा. बॅंकोकाच्या राजप्रासादाक संवसारीक नामना आसा. हांगाचें बॅंकॉक हें शार देशांतलें म्हत्वाचें म्हानगर आसून वेपार, कला, ललीत कला, तशेंच शिक्षणीक आनी संस्कृतीक केंद्र म्हणून ताची नामना आसा. हांगा ३०० वयर बौध्द मठ आसात.

चीआंगमाई हें बॅंकॉक उपरांत देशांतलें दुसऱ्या क्रमांकाचें शार आसून धर्मीक, अर्थीक, संस्कृतीक, शिक्षणीक आनी येरादारीचे नदरेन उत्तर थायलंडाचें म्हत्वाचें शार. ह्या शाराक उत्तरेकडलें गुलाब (रोझ ऑफ ध नॉर्थ) म्हणून वळखप जाता. थाई हातउद्योगाचें केंद्र म्हणुनूय चीआंगमाईची नामना आसा. 'वाट फ्रा धाद डोई सूथेप' हो बौध्दमठ थायलंडांतल्या नामनेच्या तीर्थस्थानांतलें एक मानतात. हांचेभायर नाखोन रातचासीमा तशेंच लापांग हींय शारां म्हत्वाचीं आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**थारू** एक आदिवासी जमात. उत्तर प्रदेशांतल्या नैनिताल जिल्ह्यांतल्या तराई नांवाच्या वाठारांत ह्या लोकांची चड वसती आसा. तशेंच बिहार आनी नेपाळ ह्या प्रदेशांनीय हे लोक आसात. नेपाळांत ह्या लोकांक सवर्ण हिंदू मानतात. कांय थारू लोकांचे बोली भाशेंत थार ह्या शब्दाचो अर्थ जंगली मनीस असो जाता. ताचेवयल्यानूच थारू हें नांव आयलां आसूं येता.

थारू लोक मोंगोलियन वंशाचे आसात. तांचो वर्ण गंवाच्या रंगाचो आसून, मोटें नाक, बारीक दोळे, रूंद पोले, रेखीव पातकड्यो अशें तांचें मुखामळ आसून ते बळिश्ट आसतात.

थारू जमातीचे उच्च आनी कनिश्ठ अशे दोन वर्ग आसात. ह्या दोनूय वर्गांनी पांच-स पोटजाती आसात. बथा, बिर्तिया, बद्वैत, दहैत, महतुम, रावत ह्यो उच्च वर्गांतल्यो पोटजाती आसून बुक्सा, खुंका, रजिया, संसा, जुगिया आनी डंग्रा हीं कनिश्ठ वर्गांतल्या उपजातींचीं नांवां आसात.

थारू जमातींत पितृसत्ताक कुटूंबपद्दत आसा. कुटुंबाचे आस्पतीचेर घरांतल्या सगळ्या दादल्यांचो सारको हक्क आसता. बायलांक मात आस्पतीचो वांटो मेळना. वारसाहक्का विशींचीं सगळीं झगडीं खास पंचायत सोडयता.

घर बांदचे पयलीं थारू लोक त्या जाग्याचेर होम-हवन, देव-देवसपण करतात. घरामुखार व्हड आंगण आसून तातूंत गोठो, पाणघर आनी देवांचो ओटो आसता. ते वण्टींचेर हती, हेर जनावंरा, अशीं चित्रां रंगयतात.

थारू लोक थारूहाटी नांवाची एक बोली उलयतात. ती हिंदी, उर्दू,

कमौनी, कनौजी आनी व्रज ह्या भाशांच्या मिश्रणान तयार जाल्ली आसून व्रज भाशेक ती खूब लागीं आसा.

थारू दादले पुडवें, जाकीट वा सदरो आनी टोपी असो भेस करतात. बायलो काळो घागरो आनी पोलको घालतात, माथ्याक काळो कपडो गुठलायतात. सुदारिल्ल्यो थारू बायलो हालीं साडी न्हेसपाक लागल्यात.

थारू बायलांक अलंकारांची खूब आवड आसून, शक्य जाल्यार त्यो आंगभर रुप्याच्यो वस्ती घालतात. दादले-बायलो आंगार पाडून घेतात.

तांदूळ हें थारू लोकांचें मुखेल अन्न आसून, सगळ्या तरांचें मास, नुस्तें, फळां-मुळां थारू लोक खातात. सोरो पियेवपाचीय तांकां खूब आवड. सणासमारंभांत थारू लोक सोन्याचेर खूब खर्च करतात.

भूतपिशाच्च ह्यो दुश्ट शक्ती, पितरांचे आत्मे आनी भूमसेन हांकां पशुपक्ष्यांचे बळी दिवन संतुश्ट करप हो थारू लोकांचो मुखेल धर्म. आदिवासींची अचेतन पुजा, हिंदूंची दैवतपुजा, मुसलमानांचे पीर, शिखांचे धर्मगुरू ह्या सगळ्यांचेर तांची श्रध्दा आशिल्ल्यान नेमको खंयचो धर्म ते आपणायतात हें समजना.

थारू लोकांमदीं, ल्हान पिरायेचेरूय भुरग्यांचीं लग्नां थारायतात. तेन्ना व्हंकलेचो बापूय न्हवऱ्याच्या कपलाक हळद आनी तांदूळ लायता. न्हवऱ्याचो बापूय सगळ्यांक सोरो, मास आनी मिठाय वांटटा. ते राती नाच-गावपाचो कार्यक्रम जाता. ह्या सुवाळ्याक 'दिखनौरी' म्हण्टात. कोणेंय हो लग्नाचो करार मोडल्यार ताका नुकसान भरपाय दिवंची पडटा. भुरगीं पिरायेंत येतकच तांचें लग्न करतात. चड करून माघ म्हयन्यांतल्या बिरेस्तारा वा आयतारा लग्न करतात. हो सुवाळो खूब दीस चलता. तातूंत तेलहळद, जेवणावळ, केळवण, नाच-पदां अशी कार्यावळ जाता. निमाणें न्हवऱ्याकडले लोक व्हंकलेगेर वतात आनी सप्तपदी हो विधी करतात आनी लग्नसुवाळो सोंपता. विधवा-विवाह, देरावांगडा, मेवणेवांगडा लग्न जावपाक मेळटा. बायलेकडल्यान न्हवऱ्याक घटस्फोट मेळटा. दादले वा बायलो हांची एकमेकांत वा जमाती भायल्या मनशाकडेन दाट इश्टागत जमता. अशी इश्टागत धर्मीक पद्धतीन मनयतात.

पयल्या बाळंटेराखातीर बायलेक कुळारा धाडीनासतना घराच दवरतात. पांच दीस सुवेर पाळटात. सव्या दिसा 'छट्टी' सुवाळो करतात, तेन्ना सगळे जाण न्हावन शुध्द जातात. ह्या सुवाळ्याक सगळे गांवकार जमतात. त्या दिसा तांकां नुस्त्याचें जेवण वाडटात. उपरांत सगळे जाल्ल्या भुरग्याक भेटी दितात.

पयलींच्या काळांत थारू लोक मडें पुरताले. पूण हालीं ते लासतात. ल्हान भुरगें बाळंतीण वा अपघातान, रोगान मेल्ल्या मनशाक मात पुरतात. अस्थी बुडकुल्यांत घालून गांवचे शिमेर पुरतात वा न्हंयेंत सोडटात. धा दीस सुतक पाळटात. ते धा दीस मृतात्म्याक अन्न दितात.

पयलींच्या काळांत शिकार करप, नुस्तें धरप आनी गोरवां पोसप तशेंच रानांतलीं कंदमुळां, फळां एकठांय करप हे थारू लोकांचे वेवसाय आशिल्ले. हालीं ते सुदारिल्ले पद्धतीन शेती करून वायंगणें आनी सर्दे अशीं दोनूय पिकां काडटात. तांदूळ, ज्वारी, गंव, मसूर, मको आनी हेर कडुणां तशेंच कांदे, बटाट, सुरण, भाजयो, ताग हांचीय ते बरे तरेन पिकां काडटात. स्वताचे मालकीची थोडी तरी जमीन आसप ते मानचें समजतात.

थारू लोक होळयेची परब व्हड दबाज्यान मनयतात. आषाढ म्हयन्यांत आषाढी ही परब करतात. तेन्ना भूमसेनाक गोड आनी तुपाचो निवेद्य दाखोवन कोंबो वा बोकडो बळी दितात. त्या दिसा सगळे लोक उपास करतात आनी घरांतल्या देवांखातीर होमहवन करतात. कार्तिक म्हयन्यांत नवेंच पिकिल्ल्या भाताचे पदार्थ घरांतल्या देवांक आनी पितरांक ओंपतात. हे विधीक 'औंथ' म्हण्टात. दिवाळेच्या दिसा थारू लोक 'वर्षी' नांवाचो विधी करतात हें मेल्ल्यांचें वर्सुकी श्राध्द आसता.

'थारूहा' हो तांचो जातीय नाच. नाचाच्या वेळार दादले, बायलांचो भेस करतात आनी सगळे अलंकार घालतात.

थारू लोकांच्या दरेका गांवांत 'प्रधान' हो मुखेल अधिकारी आसता. ताचो अधिकार वंशपरंपरेन चलता. तेच भाशेन 'भरार' नांवाचो एक दादलो दर एका गांवांत आसता. ताच्या आंगांत दैवी शक्त आसता, असो समज आसा. गांवांतलें कसलेंय धर्मीक कार्य, समाजीक वा कुटुंबीक कार्य भरार करता. देवतांची पुजा, भुताखेतांचें निवारण, जादू आनी रोगांचें निर्मुलन हीं सगळीं कार्यां भरार आपल्या मंत्रसामर्थ्यान करता. गुरूच्या मार्गदर्शनाखाल कठोर व्रतां पाळून भराराक ही मंत्रविद्या मेळोवंची पडटा. दरेका कुटुंबाकडल्यान ताका थरावीक तांदूळ मेळटात.

थारू लोक रसीक आनी कलाकुसरेंत कुशळ आसतात. थारू बायलो होळयेच्या दिसाच नाच करतात.

– कों. वि. सं. मं.

**थाळी नाच** हाका थरिया नाच अशेंय म्हण्टात. हो नाच जौनसार बावर, गढवाल, कुमांऊ, हिमाचल प्रदेश आदी वाठारांनी करतात. हो दादले-बायलांनी नाचपाचो नाच. दादले ढोल, तुतारी, डमरू आदी वाद्यां वाजयतात आनी बायलो हाताच्या बोटार थाळयो धरून त्यो घुंवडायत-घुंवडायत नाचतात. नाचतना पदांय म्हण्टात. कांय खेपे बायलो थाळयेर पांय दवरून नाच करतात.

– कों. वि. सं. मं.

**थॉमसन, सर जॉर्ज पॅजेट :** (जल्म : ३ मे १८९२, केंब्रीज - इंग्लंड; मरण : १० सप्टेंबर १९७५, केंब्रीज).

नामनेचो ब्रिटीश भौतिकशास्त्रज्ञ. नामनेचो भौतिकशास्त्रज्ञ जे.जे. थॉमसन हाचो तो पूत. ताचें शिक्षण ट्रिनिटी कॉलेजांत जालें. १९१३ त पदवी मेळयतकच कांय काळ ताणें बापायच्या मार्गदर्शनाखाल संशोधन केलें. पयल्या म्हाझुजांत फ्रांसांत आघाडीचेर काम करतकच ताणें फार्नबरोंत वायुगतिकीचेर संशोधन केलें. १९१७-१८ त अमेरिकेंत गेल्ले ब्रिटीश झूज समितीचो तो वांगडी आशिल्लो. थंय ताणें आर. ए. मिलिकन ह्या शास्त्रज्ञाच्या हातासकयल संशोधन केलें. ब्रिटीश झूज सोंपतकच ताणें केंब्रिजाक परत संशोधन सुरू केलें आनी त्याच वेळार कॉर्पस ख्रिस्ती कॉलेजांत १९२२ मेरेन अध्यापन केलें. फुडें ॲबर्डीन विद्यापिठांत (१९२२-३०) आनी लंडन विद्यापिठाच्या इंपिरीयल कॉलेजांत (१९३०-५२) तो भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक आशिल्लो. दुसऱ्या म्हाझुजांत तो परत फार्न बरोक संशोधनाखातीर गेलो आनी त्याच वेळार पयले ब्रिटीश अणुउर्जा समितीच्या अध्यक्षपदाचेर ताची नेमणूक जाली. १९४२ त हवाई खात्याच्या सल्लागार पदाचेर ताची नेमणूक जाली. ब्रिटीश अणुउर्जा मंडळावरवीं औशिणक अणुकेंद्रीय प्रक्रियांविशीं चलिल्ल्या संशोधनाचो तो सल्लागार आशिल्लो. संयुक्त राश्ट्रांच्या अणुउर्जा मंडळांतल्या ब्रिटीश शिश्टमंडळाचोय तो वांगडी आशिल्लो.

अॅबर्डीनाक आसतना थॉमसन हाणें धातूच्या सामक्या पातळ पट्ट्यांतल्यान वचपी इलेक्ट्रॉनांचो अभ्यास करपाखातीर कितलेशेच प्रयोग केले आनी त्या आदारान इलेक्ट्रॉनांचें कणात्मक आनी तरंगीय अशें दोट्टी स्वरूप प्रस्थापीत केलें. ह्या प्रयोगांत इलेक्ट्रॉनांच्या विवर्तनाखातीर (diffraction) ताणें वापरिल्लें तंत्र घन पदार्थांच्या पृश्ठभागांचो अभ्यास करपाखातीर खूब उपेगी थारलां.

मुक्त इलेक्ट्रॉनांच्या कणात्मक वर्तनावांगडाच ताका तरंगांचेय गूणर्धम आसतात, अशें प्रत्यक्ष प्रायोगिक पद्‌तीन ताणें सिद्ध केलें. सी. जे. डेव्हिसन हाणें स्वंतत्रपणान होच निश्कर्श काडिल्लो.

पूण तेखातीर ताणें वेगळें तंत्र वापरिल्लें. ह्या मोलादीक वावराखातीर थॉमसन आनी डेव्हिसन हांकां १९३७ वर्साचो भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार वांटून फावो जालो. १९४३ त, ताका नायट हो किताब फावो जालो. ताका ह्यूज (१९३६) आनी रॉयल (१९४९) हीं पदकां फावो जाल्यांत.

ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं -Applied Aerodynamics (१९१९), The Atom (१९३०), A Foreseeable Future (१९५५), The Inspiration of Science (१९६१).

- कों. वि. सं. मं.

## थॉमसन, सर जोझेफ जॉन :

(जल्मः १८ डिसेंबर १८५६, चीटम हील-मँचेस्टर; मरण ३० ऑगस्ट १९४०, केंब्रीज).

नामनेचो ब्रिटीश भौतिकशास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण ओवेन्स कॉलेज (मँचेस्टर) आनी ट्रिनिटी कॉलेजांत (केंब्रिज) जालें. तो केंब्रिज विद्यापिठांत प्रायोगिक भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक (१८८४-१९१९) आनी ट्रिनिटी कॉलेजाचो 'मास्टर' (१९१८-४०) आशिल्लो. लंडनच्या रॉयल इन्स्टिट्युटाचोय भौतिकशास्त्राचो तो मानादीक प्राध्यापक आशिल्लो.

वाटकुळ्या धुंवपी आट्यांविशीं १८८३त बरयल्ल्या लेखाखातीर ताका अॅडम्स इनामाचो भोवमान फावो जालो. सुर्वेक ताणें वायूंतल्या विद्युत् संवहनाविशीं संशोधन केलें. १८९५ त क्ष-किरणांचो सोद लागतकच थॉमसन हाणें अॅर्नेस्ट रूदरफोर्ड हाचेवांगडा क्ष-किरणांच्या सान्निध्याक लागून वायूंचे संवाहकतेंत जावपी बदलांविशीं संशोधन केलें. ते उपरांत ऋण किरणांविशीं प्रयोग करून हे किरण ऋण विद्युत् भारित कणांचे जाल्ले आसात अशें ताणें सिद्ध केलें. १८९७ त ताणें ह्या कणांचो विद्युत्‌भार (e) आनी ताचें द्रव्यमान (m) हांचे गुणोत्तर मेजलें. विल्सन बाश्प कोठयेचो उपेग करून ह्या कणाचो विद्युत् भार ताणें मेजलो. हाचेवयल्यान अणूपरसूय ल्हान कण अस्तित्वांत आसात, हो म्हत्वाचो निश्कर्श ताणें काडलो. धन किरणांवरवीं वेगवेगळ्या मूलद्रव्यांचे समस्थानिक वळखुपाची एक पद्दत ताणें सोदून काडली आनी तिका लागून द्रव्यमान वर्णपटविज्ञान ही भौतिकीची नवी शाखा निर्माण जाली. हे पद्दतीचो वापर करून किरणोत्सर्गी नाशिल्ल्या समस्थानिकाचें अस्तित्व थॉमसन हाणें पयलीं सिद्ध केलें.

१८८४-१९१८ ह्या काळांत थॉमसन कॅव्हेंडिश प्रयोगशाळेचो मुखेल आशिल्लो आनी ताच्या मार्गदर्शना सकयल ही प्रयोगशाळा भौतिकशास्त्राच्या संशोधनाचें एक संवसारीक केंद्र म्हणून नांवारुपाक आयली. वायूंच्या विद्युत् संहवनाविशीं केल्ल्या म्हत्वाच्या सैध्दांतिक आनी प्रायोगिक कार्याखातीर ताका १९०६ वर्सा भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. ब्रिटीश सरकारान ताका नायट (१९०८) आनी 'ऑर्डर ऑफ मॅरिट' हे किताब भेटयले. ताका आनिकूय कांय पदकां आनी भोवमान फावो जाल्यात. ताणें वट्ट तेरा ग्रंथ बरयल्यात. तातूंतले कांय नामनेचे ग्रंथ अशे - Notes on recent researches in electricity and magnetism (१८९३), A textbook of Physics (जे. एच. पॉयटिंग हाचेवांगडा, ४ खंड) Elements of the Mathematical Theory of electricity and magnetism (१८९५) आनी Conduction of electricity through gases (१९०३).

- कों. वि. सं. मं.

## थिऑसॉफिकल सोसायटी :

एक धर्मीक चळवळ. हे चळवळीची सुरवात अमेरिकेंत जाली पूण तिचो विस्तार भारतांत जालो. थिऑसॉफी हो शब्द थिऑस म्हळ्यार ईश्वर आनी सोफिया म्हळ्यार गिन्यान ह्या दोन ग्रीक शब्दांच्या संयोगान तयार जावन, ताचो अर्थ गूढविद्या वा ब्रह्मविद्या असो आसा. श्रीमती हेलेना पेट्रोव्हना ब्लॅव्हॅट्स्की हे रशियन बायलेन, तिबेटाच्या अज्ञात वाठारांत रावपी कांय आचार्यांकडल्यान धर्मज्ञान मेळयलें आनी गुरूच्या आदेशा वयल्यान त्या ज्ञानाचो प्रसार करपाखातीर जगाचे भोंवडेक सुरवात केली. तिबेटांतल्यान तिणें कायरो, पॅरीस ह्या क्रमान भोंवडी करीत १८७४ वर्सा ती अमेरिकेंत गेली. तेन्ना अमेरिकेंत अतींद्रीय ज्ञान आनी गूढविद्या हेविशीं खाशेलो वाद चालू आशिल्लो. कर्नल हॅन्री स्टील ऑल्कॉट नांवाच्या एका अमेरिकी मनशान हेविशीं खोलायेन संशोधन करून 'People from the other world' ह्या नांवाचें एक पुस्तक उजवाडायल्लें. ब्लॅव्हॅट्स्कीन ऑल्कॉटाची भेट घेवन आपले विचार ताचेमुखार मांडले. त्या विचारांनी ऑल्कॉट प्रभावीत जालो आनी गूढविद्येचें संशोधन आनी प्रसार करपापसत त्या दोगांयनी मेळून न्यूयॉर्कांत १७ नोव्हेंबर १८७५ ह्या दिसा थिऑसॉफिकल सोसायटी हे संस्थेची स्थापणूक केली. ऑल्कॉट हो ते सोसायटीचो अध्यक्ष आनी ब्लॅव्हॅट्स्की कार्यवाह जाली. सुरवातीच्या काळांत, ब्लॅव्हॅट्स्कीच्या घरांतूच सोसायटीच्या वांगड्यांची बसका जाताली. तेन्ना दयानंद सरस्वती हांचेकडेन पत्रवेव्हार जालो आनी सोसायटी तशेंच आर्यसमाज हांच्या सहकारान वैदिक ज्ञानाचो पुनरुद्धार आनी प्रसार करचो अशी येवजण थारली, पूण सोसायटी आनी समाज हांचो सहकार फक्त दोनूच वर्सां तिगलो. ह्याच अदमासाक, ब्लॅव्हॅट्स्की हिका तिबेटांतल्या महात्म्यांचो, भारताक आपलें कार्यक्षेत्र मानचें असो गुपीत आदेश मेळ्ळो. त्या आदेशाप्रमाण ब्लॅव्हॅट्स्की आनी ऑल्कॉट हीं दोगांय १६ फेब्रुवारी १८७९ दिसा मुंबय आयलीं. थंयच्या सत्कार सुवाळ्यांत ऑल्कॉट हाणें शिक्षण सुदारणा आनी संस्कृत विद्येचो पुनरुद्धार अशी दोट्टी कार्यावळ लोकांमुखार मांडली. वर्सभरांत तीं दोगांय श्रीलंकेत गेलीं. थंय तांणी बौध्द धर्म आपणावन, पुर्विल्ल्या बौध्द धर्माच्या ग्रंथांचो आनी विचारांचो पुनरुद्धार करपाचो यत्न केलो.

इ. स. १८८२ वर्सा संस्थेचें कार्यालय मुंबयसावन चेन्नईलागसार अड्यार नगरांत व्हेलें. थंयच १८ डिसेंबर १८९० दिसा थिऑसॉफिकल सोसायटीच्या, भारतांतल्या राश्ट्रीय फांट्याची स्थापणूक जाली. इ. स. १८९५ वर्सा राश्ट्रीय फांट्याचें कार्यालय वाराणसीक गेलें. मूळजी ठाकरसी हो हे राश्ट्रीय फांट्याचो पयलो भारतीय वांगडी आशिल्लो. कांय वर्सांनी ब्लॅव्हॅट्स्की इंग्लडाक गेली. थंय १८८८ वर्सा तिणें 'सिक्रेट डॉक्ट्रीन' नांवाचो ग्रंथ बरयलो. अस्तंती जगाक पुर्विल्ल्या काळांतल्या

दर्शनांचें गुपीत प्राप्त करून दिवपाच्या हेतान बरयल्ल्या ह्या ग्रंथान डॉ. ॲनी बेझंट सामकी प्रभावीत जाली आनी ब्लॅव्हेट्स्कीची शिश्या जाली.

लंडनांत ब्लॅव्हॅट्स्कीक खूब शिश्य मेळ्ळे. ती आपल्या शिश्यांक गुपीत साधनेचे सिद्धांत शिकोवंक लागली. हिमालयांत अदृश्यपणान वावुरपी धर्माचार्यांकडेन आपल्या शिश्याचो साक्षात संबंद प्रस्थापीत करप, हो तिचो हेत आशिल्लो. ब्लॅव्हट्स्कीन सुरू केल्ले हे गूढवादी विचारधारेक थिऑसॉफीची उदेंती विचारधारा अशें म्हण्टात.

ब्लॅव्हॅट्स्कीन आपल्या मरणामेरेन म्हळ्यार १८९१ मेरेन हे गूढ साधनेचें फुडारपण केलें. तिच्या मरणाउपरांत तो आधिकार ॲनी बेझंटाक मेळ्ळो. १८९६ वर्सा ती थिऑसॉफिकल सोसायटीची अध्यक्ष जाली. हे संस्थेचे फांटे ५५ विंगड विंगड देशांनी स्थापन जाल्ले आसून तिचे ३५ हजारांवयर वांगडी आसात.

हे साधनेची दिक्षा घेवपापसत दरेका वांगड्याक दोन व्रतां पाळचीं पडटात. थिऑसॉफीच्या सिद्धान्ताक पाळो दिवन प्रसार करप आनी कक्षाभवनांत प्राप्त जाल्लें गिन्यान गुपीत दवरप. अशा वेळार दरेका वांगड्याक एका धर्माचार्याच्या चित्राची एक प्रत दितात. त्या चित्रासामकार बसून साधकान आपलें चित्त एकाग्र करपाचें आसता.

सुरवातेक सोसायटीचो हेत 'विश्वाक संचलीत करपी नेमांचें गिन्यान मेळोवप' हो आशिल्लो. पूण उपरांत १८७५ सावन १८९६ मेरेनच्या काळांत सोसायटीच्या हेतांनी खूब बदल जाले. इ. स. १८९६ वर्सा मात तांकां कायम स्वरूप मेळ्ळें, तें अशें.

१. जात, धर्म, लींग, वर्ण ह्या सगळ्या भेदांक पयसावन सार्वभौम प्रतिश्ठापना करप.

२. विंगड विंगड धर्म, दर्शनां आनी विज्ञान हांच्या अध्ययनाक उत्तेजन दिवन, तौलनिक अध्ययनांतल्यान मुळावें एकत्व सोदून काडप.

३. सृश्टीच्या अज्ञात नेमांचें आनी मनशाचे अंतःस्थ शक्तीचें संशोधन करप.

सत्याचो सोद ही सोसायटीची मूलभूत आनी मुखेल मोख आसून, शांती हो तिचो मूलभूत मंत्र. 'सत्यान्नास्ति परो धर्मः।' म्हळ्यार सत्यापरस श्रेश्ठ असो हेर धर्म ना हें तिचें घोशवाक्य.

मनशाचो कर्मभार ल्हव करपाखातीर वावरप हीच सोसायटीच्या वांगड्यांची साधना मानतात. व्यक्तिगत मोक्षाचेर वा निर्वाणाचेर भर दिना आसतना, सोसायटी समाजसेवेक चड म्हत्व दिता. हे सोसायटींत दर एकल्याक विचारांचें पुराय स्वातंत्र्य आसा. दर एकल्यान विवेकबुद्ध वापरून संस्थेच्या उद्दिश्टांचें परीक्षण करचें आनी जें बरें दिसता तेंच आपणावन वायट तें सोडून दिवचें अशी संस्थेची अपेक्षा आसता.

कर्नल ऑल्कॉट, ॲनी बेझंट, अरुंडेल, सी. जिनराजदास, नीलकंठन श्रीराम हे आजवेर सोसायटीचे जावन गेल्ले अध्यक्ष.

– कों. वि. सं. मं.

**थिओरेल, आक्सल हूगो तेऑदॉर :** (जल्मः ६ जुलय १९०३, लिनकोयपिंग - स्विडन; मरणः १८ ऑगस्ट १९८२).

नामनेचो स्विडीश जीवरसायनशास्त्रज्ञ. १९२१ त शालान्त परीक्षा पास जातकच कॅरोलिन्स्का इन्स्टिट्युटांत वैजकी शिक्षण घेवन १९२४ त ताणें पदवी मेळयली. तेउपरांत तो कांय म्हयने पाश्चर इन्स्टिट्युटांत प्राध्यापक आशिल्लो. नामनेचो सुक्ष्मजंतूशास्त्रज्ञ एल. सी. ए. कालमेट हाच्या मार्गदर्शनाखाला ताणें सूक्ष्मजंतूशास्त्राचो अभ्यास केलो. १९३० त ताणें 'रक्तरसांतलीं लिपिडां' ह्या विशयाचेर प्रबंध बरोवन स्टॉकहोम विद्यापिठाची एम. डी. पदवी मेळयली. ताचेपयलीं ई. हॅमरस्टीन हाचेकडेन शिकता आसतना १९२६ त ताणें रक्तरसांतल्या लिपोप्रथिनांचो सोद लावन तांचें वर्णनूय केल्लें.

मदीं थोडो तेंप ताणें खाजगी वैजकी वेवसाय केलो, पूण पोलिओन दुयेंत पडिल्ल्यान तो अपंग जालो आनी तेउपरांत ताणें पुराय वेळ संशोधन कार्य करपाचें थारायलें. १९३२ त मायोग्लोबिन स्फटिकी स्वरुपांत मेळोवपी तो पयलो शास्त्रज्ञ. ताणें ह्या पदार्थाच्या वर्णिल्ल्या गूणधर्मांत ऑक्सिजन आनी कार्बन मोनॉक्सायड हांचे बरोबरच्यो विक्रिया, चुंबकीय गूणधर्म आनी रेणूभार हांचो आस्पाव आशिल्लो.

१९३२-३३ ह्या काळांत तो अप्सालां विद्यापिठांत काम करतालो आनी तेचवांगडा तो बर्लीन-डालेमाक रॉकफॅलर फेलो आशिल्लो. थंय ओटो वॉरबर्ग हाचेवांगडा कार्य करता आसतना ऑक्सिडीकारक एन्झायमांकडेन ताचें लक्ष गेलें. फुडें तोच विशय ताच्या संशोधनाचें क्षेत्र जालो. स्विडनाक परततकच तो कॅरोलिन्स्का इन्स्टिटयुटांत काम करूंक लागलो. १९३६ त नव्यान स्थापिल्ल्या नोबॅल मॅडिकल इन्स्टिटयुटाच्या जीवरसायनशास्त्र विभागाचो तो मुखेल जालो.

ताणें 'यलो एन्झायम' हें त्या गटांतलें पयलें एन्झायम १९३३त घरगुती उपकरणां वापरून वेगळें करपांत येस मेळयलें. ते उपरांतच्या संशोधन कार्यांत ताणें तांचे प्रथीन आनी प्रथीनविरयत अशे भाग केले. प्रत्येक भाग स्वतंत्र वापरल्यार तो पुराय अक्रिय आशिल्ल्याचें पूण तांची भरसण केल्यार तो एन्झायम क्रियाशील आशिल्ल्याचें म्हळ्यार जिव्या कोशिकांक ऑक्सिजन वापरपाक मदत करपी आशिल्ल्याचें ताणें सिद्ध केलें. ताचेवेल्यान हे दोन भाग क्रियाशीलते खातीर एकामेकांचेर आदारून आशिल्ल्याचें सिद्ध जालें. अशेच तरेचे प्रयोग ताणें हेर ऑक्सिडीकारक एन्झायमांचेर केले. ह्या ताच्या मोलादीक वावराखातीर ताका १९५५ वर्साचो शरीरक्रिया आनी वैजीकीखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

– कों. वि. सं. मं.

**थिटे, बाजीराव बाबुराव :** (जल्मः २ ऑगस्ट १९२५, बोरसार, कर्नाटक, औरंगाबाद).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी माध्यमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो सोशलिस्ट पक्षाचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा कणकुंभीसावन गोंयांत येवन ताणें सुर्ला सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**थिमय्या, कोदेंदर सुबय्या :** (जल्म : ३१ मार्च १९०६, कूर्ग, कर्नाटक; मरण : १८ डिसेंबर १९६५, सायप्रस).

भारताचो आदलो सरसेनापती. ताणें शालेय शिक्षण बेंगळुरांत आनी डेहराडूनांतल्या राश्ट्रीय सैनिकी विद्यालयांत मुळावें लश्करी शिक्षण घेतलें. उपरांत इंग्लंडच्या शाही सैनिकी म्हाविद्यालयांत शिक्षण घेतकच

१९२६ वर्सा हैदराबाद पांयदळ रेजिमेंटांत राजादिश्ट अधिकारी म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९३५ त ताचें नीना करिअप्पा हे चलयेकडेन लग्न जालें. १९३६-३९ ह्या काळांत ताणें मलायांत मोलादीक कामगिरी केली. १९४१ वर्सा ताणें कॉलेजीचो शिक्षणक्रम पुराय केलो. दुसऱ्या म्हाझुजांत आराकान मोहिमेंत ३६ व्या पांयदळ ब्रिगेडीचो तो पयलो ब्रिगेडियर आशिल्लो. ताच्या हाताखाला लॅ. कर्नल, शं. पां. पाटील थोरात आनी लि. प्र. उर्फ बोगी सेन हे दोन पांयदळ अधिकारी आशिल्ले. सप्टेंबर १९४५ त जपानाकडल्यान लश्करी शरणांगती स्विकारपाच्या वेळार हिंदुस्थानी सेनेचो तो प्रतिनिधी आशिल्लो. १९४६ त तो जपानांत २६८ हे ब्रिगेडीचो मुख्याधिपती आशिल्लो. १९४७ चे फाळणी उपरांत ताणें निर्वासितांच्या पुनर्वसन वावरांत म्हत्वाची कामगिरी केली. १९४८ त काश्मीरांतल्या आक्रमकांक हारोवपी भारतीय सेनेचो तो मुखेली आशिल्लो. १९५०-५१ ह्या काळांत तो राश्ट्रीय सैनिकी प्रबोधिनीचो समादेशक (कमांडंट) आशिल्लो. १९५१-५२ ह्या काळांत संयुक्त राश्ट्रांतल्या भारतीय प्रतिनिधी मंडळाचो सैनिकी सल्लागार म्हणून ताची नेमणूक जाली. कोरियी झुजाउपरांत (१९५०-५३) झुजाकैदी स्वदेश प्रत्यावर्तन कार्याखातीर संयुक्त राश्ट्रसंघाच्या आयोगाचो तो अध्यक्ष आनी पंच आशिल्लो. १९५७-६१ ह्या काळांत तो भूसेनाध्यक्ष जालो. १९६१ त तो निवृत्त जालो. फुडें सायप्रसाक ग्रीक आनी तूर्क हांचे मदीं शांतताय राखपाखातीर संयुक्त राश्ट्रसंघ शांतीसेनेचो सेनापती म्हणून ताणें १९६४ ते मरणामेरेन काम केलां. सायप्रसांत कार्यरत आसतनाच ताका मरण आयलें. ताच्या सैनिकी आनी हेर म्हत्वाच्या वावराक लागून ताका महावीर चक्र आनी पद्मभूषण ह्यो पदव्यो दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**थिरकवा, अहमदजान :** (जल्म : १८९१, मुरादाबाद; मरण : १३ जानेवारी १९७६, लखनौ).

नामनेचो भारतीय तबलावादक. ताच्या जल्माच्या वर्साविशीं मतभेद आसात. तो तबल्या चेर थिरकथिरक असो द्रुतलयीन आनी स्वच्छ तरेन बोल वाजयतालो देखून कालेखाँ हाणें ताका 'थिरकवा' (तिरखवा) हें नांव दिलें. ताणें संगिताचे मुळावे धडे आपलो बापूय नामनेचो सारंगीवादक उस्ताद हुसेनबक्ष तशेंच उस्ताद शेरखाँ आनी फैयाजखाँ हांचेकडेन घेतले. फुडें उस्ताद मुनीरखाँच्या हाताखाल ताणें सुमार २५ वर्सां तबलावादनाच्यो वेगवेगळ्यो बारीकसाणी आनी शैली आत्मसात केल्यो. १९२८ त तो भास्करबुवा बखले वांगडा महाराष्ट्रांत गेलो. सुमार धा वर्सां तो गंधर्व नाटक मंडळींत आशिल्लो. बाल गंर्धवाच्या नाट्यगितांक तोच साथ दितालो. कांय काळ तो रामपूराच्या नवाबाकडेन आशिल्लो. लखनौच्या भातखंडे संगीत विद्यालयांत तो तबलावादनाचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९७१ सावन ताणें मुंबयच्या नॅशनल सॅंटर ऑफ परफॉर्मिंग आर्ट्स, हातूंतल्या तबल्याच्या विद्यार्थ्यांक मार्गदर्शन केलें.



उस्ताद थिरकवान आपल्या वेगवेगळ्या लयकारींवरवीं आनी दिल्ली, पूरब, अजराडा फरुखाबाद आदि तरेकवार घराण्यांच्या वादन शैलींच्या तबल्या-डग्याच्या एकसंघ वादनाक लागून तबल्याक मैफलींत गवयावरीच म्हत्वाची सुवात मेळोवन दिली. स्वतंत्र तबलावादनाच्यो मैफली करपाची चाल ताणें घाली आनी तातूंतल्यान ह्या वाद्याक प्रतिश्ठा मेळोवन दिली. ताचे शिश्य जगन्नाथबुवा पुरोहित, लालजी गोखले, निखिल घोष, नारायण जोशी आदिंची नामना आसा. ताका संगीत नाटक अकादमीचें हिंदूस्तानी वादनांतलें इनाम (१९५४), राश्ट्रपती इनाम, पद्मभूषण (१९७०) आदी भोवमान मेळ्ळे. ताच्या तबला वादनावयलो लघुपटय प्रदर्शीत जाला.

– कों. वि. सं. मं.

**थिरुअनंतपुरम (त्रिवेन्द्रम) :** आदल्या त्रावणकोर संस्थानाची आनी सद्याच्या केरळ राज्याची राजधानी. लोकसंख्या २९,३८,५८३ (१९९१). मलाबार देगेचेर मुंबयचे आग्नेयेक १२५५ किमी. अंतराचेर कोचीन सावन २२० किमी. आनी कन्याकुमारीसावन ८५ किमी. अंतराचेर, दर्यादेगेसावन ३ किमी. भितर आनी समुद्रथरासावन ७६ मी. उंचायेमेरेन हें शार वसलां. शाराचें हवामान उश्ण आनी दमट आसून वर्साक सरासरी पावस १८० सेंमी. पडटा.

थिरुअनंतपुरम म्हणजेच अनंताचें पवित्र नगर. हांगा पद्मनाभस्वामीचें (विष्णु) नामनेचें देवूळ आसा. हें देवूळ म्हळ्यार द्रविड वास्तूकलेचो उत्तम नमुनो आसा. ह्या देवळाक सात मजली गोपुरां आसून ३६८ कोरांतिल्लें फातरी खांबे आसात. मूळ थिरुअनंतपुरम हें नांव फाटीं पडून मदल्या काळांत त्रिवेन्द्रम म्हणून ह्या शाराचें नांव फुडें आयलें. उपरांत परतून त्रिवेन्द्रम वचून थिरुअनंतपुरम हें नांव अधिकृतपणान केरळ सरकारान वापरांत हाडलें. महाभारतांत ह्या थळाचो उल्लेख आसा. जायत्या पुराणांनी ह्या क्षेत्राच्यो कथा दिल्ल्यो आसात. तातूंतली एक कथा अशी –

पुर्विल्ल्या काळांत हांगा अनंतवन नांवाचें एक रान आशिल्लें. रानांत पुलया नांवाचे आदिवासी लोक रावताले. थंयसावन लागींच एका शारांत दिवाकर नांवाचो विष्णु भक्त रावतालो ताचेर खोशी जावन विष्णु बाळकाचें रूप घेवन तागेर रावंक लागलो. कांय दिसांनी तो भुरगो अंतर्धान पावलो. वतां वतां ताणें दिवाकराक सांगलें, 'म्हजें दर्शन घेवपाचें आसल्यार अनंतवनांत यो.' आपल्या घरा खासा देवच रावतालो हें कळटकच ताचो सोद घेवपाक दिवाकर अनंतवनांत गेलो. थंय एका कनकझाडाखाला देव बाळकाचें रूप घेवन प्रगट जालो आनी एक पुलया बायल ताका नाल्लाचे कट्टेंतल्यान तांदळाची खीर लायताली. दिवाकर जेन्ना थंय पावलो तेन्ना तो भुरगो कनकझाडाचे घोलींत वतना दिसलो आनी तो भितर वतकच तें झाड मोडून पडलें. त्या मोडून पडिल्ल्या झाडाच्या जाग्यार दिवाकराक स कोस लांब अशी व्हड शेषशायीची मूर्त दिसली. दिवाकरान ते व्हड मुर्तीचें

दर्शन घेतलें आनी ताका ल्हान रूप घेवपाची विनंती केली. दिवाकराक ज्या जाग्यार त्या विराट रुपाचें दर्शन घडलें थंयच ताणें व्हड देवूळ बांदलें आनी त्या देवळांत मोडून पडिल्ल्या झाडाच्या लाकडाची मूर्त करून तिची स्थापना केली. काळांतरान तें देवूळ आनी लाकडी मूर्त जीर्ण जातकच १०४९ त आतां आशिल्लें व्हड देवूळ बांदलें. इ.स. ११६५ तल्या शिलालेखांत ह्या जीर्णोद्धाराचो उल्लेख मेळटा.

हें देवूळ व्हड आसून ताचें प्रवेशदार उदेंतेकडेन आसा. गाभारो काळ्या फातरांनी बांदला आनी तातूंत शेषशायी विष्णुची व्हड मूर्त आसून गाभाऱ्या मुखारच तीन दारां आसात. दाव्या दारांतल्यान मुर्तीचें तोंड, मदल्या दारांतल्यान मुर्तीचें मदलें आंग आनी उजव्या दारांतल्यान ताच्या पांयांचें दर्शन जाता. ह्या देवळांतल्या लांकडावयल्या कोरीव कामाची तशेंच हांगाच्या गोपुरांची खूब नामना आसा. तेभायर फातरावयल्या कोरीव कामांत रामायणांतले आनी महाभारतांतले प्रसंग कोरांतल्यात. हें देवूळ म्हळ्यार द्रविड वास्तुकलेचो उत्तम नमुनो आसा. ह्या देवळाक सात मजली गोपूरां आसून ३६८ कोरांतिल्ले फातरी खांबे आसात.

ह्या शारांत काथ्याच्यो वस्तू तयार करप, टिटेनियम, खोबरें, शाबू, रबरी वस्तू, कागद, सुती आनी रस्मी कापड, धातू आदीचे उद्देग चलतात. शारांत केरळ विद्यापीठ, महाराजा विधी म्हाविद्यालय, शिक्षक प्रशिक्षण म्हाविद्यालय, तंत्रीक म्हाविद्यालय, वैजकी म्हाविद्यालय, अभियांत्रिकी म्हाविद्यालय आदी शिक्षणीक संस्था आसात. हांगासल्ल्यान जायतीं नेमाळीं उजवाडा येतात. तातूंतलें 'केरळ कौमुदी' हें नामनेचें दिसाळें. तेभायर शारांत वेधशाळा आसा.

त्रिवेंद्रम हें रेल्वेमार्गाचें केंद्र आसून शेनकोट्टा खिंडींतल्यान अस्तंत देगेचेर येवपी दक्षिण फांट्याचें दक्षिणेकडलें तोंक. तेभायर हें शार पक्क्या रस्त्यांनी जोडिल्लें आसा. विमान येरादारीचें हें केंद्र आसून शंकूमुधमाक विमानतळ आसा. आदल्या तेंपार हें शार संस्थानाची राजधानी आशिल्ल्यान हांगाचो पोरनो राजवाडो पळोवपासारको आसा. तेभायर वस्तूसंग्रहालय, उद्यानां, व्हिक्टोरिया ज्युबिली हॉल, प्राणिसंग्रहालय, मत्स्यालय आनी हेर जायतीं पळोवपासारकीं थळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## थुकी :

थुकी (नुथी) तोंडांतले लाळीचे अंश. रंगविरयत पातळ असो हो द्रवपदार्थ, तोंडाच्या सरभोंवतणीं आशिल्ल्या लाळीग्रंथींतल्यान तयार जाता. ह्या पदार्थांत उदक, म्युकस (Mucus), प्रथिनां (Proteins), खनीज क्षारां (Mineral salts) आनी पचनकारी टायालीन (Ptyalin) आनी माल्टेझ (Maltase) नांवाचीं एन्झायमां आसतात. लाळग्रंथींतल्यान दर दिसा सरासरी १२०० ते १५०० मी. लिटर लाळ निर्माण जाता. तोंड ओलें दवरप, अन्नांत भरसून तें गिळपाक योग्य अशें गळगळीत करप, पचनकारी एन्झायमांवरवीं अन्न पचोवपाक मदत करप, सडसडीत उलोवपाक मदत करप, हीं लाळीचीं मुखेल कामां आसात. तेभायर, कुडींतल्या उदकाचें प्रमाण समतोल दवरपाकूय लाळीची मदत जाता. जेन्ना कुडींतल्या उदकाचें प्रमाण उणें जाता आनी लाळीच्यो ग्रंथपेशी सुक्यो पडटात तेन्ना त्या जिवाक उदक पियेवपाची इत्सा निर्माण जावन तो जीव उदक पियेता.

अन्नाचे कण, मृत पेशी, जंतू सारकिल्या दांतांक पिडपी घटकांक नशट करून दांतांचें संरक्षण करता. तशेंच शिंशें (Lead), पारो (Mercury), सोमाळ (Arsenic), युरिया सारके भलायकेक अपायकारक जावपी घटक लाळेंतल्यान भायर वतात.

थुकी ही अपवित्र मानतात, ताका लागून कोणाचेंय उश्टें खावपाक मनाय करतात. घरांत थुकप ना तशेंच थुकयेचेर पांय पडप अरिश्टकारक आसता. हीन वर्णाच्या मनशान उच्च वर्णीय मनशाचेर थुकप हें म्हापाप आसून राजान अशा मनशाचे ओंठ कापून उडोवंचे अशें मनुस्मृतींत सांगलां. खंयचेय वस्तूचे दिशेन थुकप हें पाप मानलां. पारशी लोक न्हंयेत वा उज्यांत केन्नाच थुकनात. कांय लोक देवपुजा करतना तोंडार कपडो बांदतात. वस्तूंत दैवी सामर्थ्य आसता, ते वस्तूचेर थुकल्यार, थुकपी मनशाचेर संकटां येतात असो समज आसा. भूतबादा जाल्ल्या मनशाचेर थुकल्यार, थुकपी मनशाक भूतबादा जावपाची शक्यताय आसता.

थुकयेचो बरोय परिणाम जावंक शकता ही कल्पना खूबकडेन आसा. थुकयेक लागून गर्भ धरिल्ल्याची दंतकथा पुराणांत आसा. अग्नी उदकांत थुकलो तेन्ना एकत, द्वित आनी त्रित हांचो जल्म जालो अशी पुराणांत कथा आसा. बंगालांतल्या छापोता जातीच्या लोकांचो असो समज आसा की शिवान विड्याचें पान चाबून उडयलें तातूंतल्यान आपलो मूळ पुरूस तयार जालो. नोस्तू नांवाची देवता उदकांतल्या कमळांचेर आनी झाडांचेर थुकली, तेखातीर थंय जमीन तयार जाली अशी कथा गारो लोकांमदीं आसा.

अवतारी पुरसाची थुकी ही खुबूच प्रभावी मानतात. जेजूस क्रिस्त एक फावट दर्यांत थुकलो तेन्ना ते थुकयेपसून अेक नुस्तें तयार जालें अशी कथा आसा. मातंग देवीचो अवतार मानिल्ली बायल आंगाचेर थुकली जाल्यार शरीर शुद्ध जाता अशी तमीळनाडूंत समजूत आसा.

इडापिडा टळची आनी नदर लागची न्हय देखून तेल वा उदक हातूंत थुकी भरसून ल्हान भुरग्याच्या आंगाक लावपाची प्रथा जायतेकडेन आसा. भुरगें चलतना पडलें जाल्यार थंयची माती काडून ती त्या भुरग्याच्या भोंवतणीं ओंवाळटात आनी ती माती उडोवन ताचेर थुकूंक सांगतात. चेटूक, जादू हांचेपसून राखण जावंची देखून आपल्या वा दुसऱ्याच्या आंगार थुकपाची चाल कांय कडेन आसा. भुतांखेतां पसून राखण मेळची देखून बाप्तिस्माच्या विधींत क्रिस्तांव पाद्री भुरग्याच्या कानाक आनी नाकापुडयेक थुकी लायतात. केंस वळयतकच जी जठा येता ती उडयता आसतना तिचेर थुकतात. अशें केल्यार केंस बेगीन येतात आनी लांब जातात असो समज आसा.

तमीळनाडूंत उत्सवा वेळार देवाचो रथ हालना जाल्यार ताच्या चक्रार ताडी-एंडेल हांचो घोंट भरून घेवन उडोवपाची चाल आसा. मंत्रतंत्रांतय थुकयेचो बरोच उपेग करतात. दुस्मानपण वा तिटकारो उक्तावपाक दुस्मानाच्या तोंडाचेर थुकप वा ताका उद्देशून भायर थुकपाची संवय कांय जाणांक आसा. हाचेय वांगडा लाळीचे वैजकी उपेग खूब म्हत्वाचे आसात.

- कों. वि. सं. मं.
- डॉ. पुर्णानंद अवदी

## थेचर मार्गारेट (हिल्डा) :

(जल्म : ऑक्टोबर, १९२५).

ब्रिटनाची पयली बायल प्रधानमंत्री आनी संवसारांतली चवथी प्रधानमंत्री म्हूण सेगीत तीन खेपो वेंचून येवपी ती ब्रिटनांतली पयली

प्रधानमंत्री, तशेंच प्रधानमंत्री पदाचेर चड काळ तिगून रावपी ती ब्रिटनाची पयली प्रधानमंत्री. मार्गारेट मध्यम वर्गांत जल्माक आयली. तिचो बापूय भुसारी म्हालाचो वेपारी आशिल्लो. ऑक्सफर्ड विश्व विद्यालयांत रसायन शास्त्राची पदवी मेळयल्या उपरांत तिणें १९५१ मेरेन रसायनशास्त्र संशोधक म्हणून वावर केला. उपरांत कांय वर्सां कर जाणकार (Tax Specialist) म्हणून वावर केलो. तशेंच निवृत्तीवेतन मंत्रीमंडळांत कनिश्ट हूद्यार ती कामाक आशिल्ली. प्रधानमंत्री एडवर्ड हिअथच्या मंत्रीमंडळांत तिका शिक्षणमंत्री पद दिल्लें.

हिअथच्या उपरांत ती कंझर्व्हेटीव्ह पक्षाची अध्यक्षा जाली. १९७९ त जाल्ले ब्रिटनचे वेंचणुकेंत कंझर्व्हेटीव्ह पक्षाक भोवमत मेळून ती ब्रिटनाची प्रधानमंत्री जाली. १९८१ त फॉकलँड जुंव्याक लागून अर्जेंटीना आड तिणें आपणायल्ले भुमिकेक लागून तिका खूब प्रसिद्धी मेळ्ळी. ताका लागून १९८३ त जाल्ले वेंचणुकेंत ती पर्थून वेंचून आयली आनी १९८७ तले वेंचणुकेंतूय कंझर्व्हेटीव्ह पक्षाक भोवमत मेळून ती तिसरे खेपेक ब्रिटनाची प्रधानमंत्री जाली. २२ नोव्हेंबर १९९० दिसा तिच्या मंत्रीमंडळांतल्या कांय वांगड्यांनी तिचेर अविस्वास थाराव मांडिल्ल्यान तिका प्रधानमंत्रीपदाचो तशेंच कंझर्व्हेटीव्ह पक्षाची अध्यक्ष म्हणून राजीनामो दिवंचो पडलो.

ब्रिटनाचो माजी प्रधानमंत्री विंस्टन चर्चील हाचो नातू विंस्टन हाणें मार्गारेट थेचरान आपणायल्ल्या राजकीय आनी अर्थीक तत्त्वगिन्यानाक 'थेचरीसम' अशें म्हळां. फॉकलँड जुंव्याक लागून तिणें अर्जेंटिना आड आनी देशांत विरोधकां आड आपणायल्ले भूमिकेक लागून तिका ब्रिटनच्या इतिहासांत पोलादी बायल (Iron lady) म्हणून नामना मेळ्ळ्या. प्रधानमंत्री जाल्या उपरांत तिणें ब्रिटनांत पातळिल्ली समाजवादी वाचा बंद केली. उद्देगीक क्षेत्रांत आडमेळीं हाडपी साबार कामगार संघटना मोडून उडोवन ब्रिटीश टॅलिकॉम, ब्रिटीश गॅस, ब्रिटीश ॲरवेज, ब्रिटिश ऑयल, येरादारी, विद्युत् पुरवण हांचें खाजगीकरण करून ब्रिटनाची अर्थीक स्थिती भक्कम केली.

– कों. वि. सं. मं.

**थेम्स :** हिका टॅमेसिस, टॅमेसा ह्या नांवांनीय वळखतात. लंडनांतल्यान व्हांवपी इंग्लंडाची ही मुखेल न्हंय. लांबाय ३३८ किमी., उदक व्हांवपी क्षेत्र १३,६५० चौ. किमी, ग्लुसॅस्टरशायर परगण्यांतल्या कॉटसवोल्ड दोंगुल्ल्यांत थेम्सहेड आनी सेव्हन स्प्रिंग्स चर्न आनी आयसिस न्हंयांच्या प्रवाहांनी हे न्हंयेचो उगम जाता. थंयसावन णव परगण्यांच्या शिमांवयल्यान उदेंतेकडेन व्हांवत वचून ध नॉअर हे थेम्स खाडींतल्यान ती दर्याक मेळटा. गॉरिंग गॅप खिंडींतल्यान दोंगुल्ल्यांचे ओळींतल्यान ती ऑक्सफर्डाक येता. तिचेवयले देंवतेचेर ऑक्सफर्ड, ॲबिंग्डन, वॉलिंगफर्ड, रेडिंग, मार्लो, मेडनहेड, विंझर, स्टेन्झ, किंग्स्टन हीं शारां आसात. थेम्सच्या देगणांत जुरासिक, मेसोझोईक, इओसीन काळांतली रेंव, माती, चून्या फातर आदी जायते थर मेळटात. तशेंच दोन लाख वर्सांआदली एके चलयेची कवटी, नवपाशाण युगांतलीं आयदनां, इतिहासाआदल्या पोरण्या काळांतले जनावरांचे अवशेश आदी म्हत्वाच्यो वस्तू ह्या देगणांत मेळ्ळ्यात. कोल्न, विंडरश, ईव्हनलोड, चार्वेल, टेम, केनेट, वे, मेडवे ह्यो थेम्साच्यो मुखेल उपन्हंयो.

हे न्हंयेदेगेवयली सोबीतकाय पळोवपासारकी आसून हेन्ली, ऑक्सफर्ड आनी केंब्रीजाक जावपी वर्सुकी व्हड्यां सर्तींची खूब नामना आसा. लंडनसावन फुडें थेम्स न्हंयेचेर गुदांव, कोठारां आनी शीतघरां बांदिल्लीं आसात. हांगा कारखाने आनी उद्देगीक इमारतीय आसात. टिलबरीक दर्यांतलीं तारवां येतात. ऑक्सफर्डाक हे न्हंयेची रूंदाय ४६ मी. टेडिंग्टनाक ७६ मी. लंडन ब्रिजा लागसार २४४ मी. ग्रेव्हझेंड हांगा ६४२ मी. आनी नोअर लागसार ८.८ किमी. आसा. न्हंयेचेर रस्त्याचे आनी रेल्वेमार्गाचे जायते पूल आसात. न्हंयेपोंदा बोगदेय आसात. हे न्हंयेचो जंय उगम जाता त्या वाठारासावन टेडिंग्टन मेरेन थेम्साची उदका येरादारी, उदकाचो वापर, प्रदुशण, नुस्त्या उद्देग, हुंवारावयलें नियंत्रण, प्रवाहमापन, संरक्षण आदी नियंत्रण १८५७ सावन 'थेम्स कॉन्झर्व्हन्सी बोर्ड' पळेता. १९६३ सावन हांगा प्रदुशणाआड खर उपाय करपाची वेवस्था आंखल्या. लंडनाक ६८% उदका पुरवण थेम्स न्हंय करता. ग्रँड जंक्शन आनी ग्रँड युनियन खारजां वरवीं मिडलँड हांगाचीं कारखानदारीचीं शारां जोडल्यांत. लंडनाच्या टावर ब्रिजासावन दर्यामेरेनची थेम्स न्हंय म्हळ्यार संवसारांतलो म्हत्वाचो वेपारउपेगी उदकामार्ग आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**थेरीआट्टम :** एक लोकनाच. हो नाच केरळांत ग्रामदेवाक होरावपाखातीर करतात. ह्या नाचावेळार नाचप्याच्या आंगांत देव येता अशी भावना आशिल्ल्यान ग्रामदेवाच्या उत्सवाच्या जायत्या दीस आदीं नर्तक लोक उपास आनी प्रार्थना करून स्वताक पवित्र दवरतात. ज्या देवाचो उत्सव आसता ताचें देवूळ सजयतात. रातच्या वेळार दिवे पेटोवन रोशणाय करतात. केन्नाकेन्नाय मशालींची मिरवणुकूय काडटात. ग्रामदेवतेच्या उत्सवाची 'थीरा' ह्या नांवान नामना आसा.

थेरीआट्टम हो उत्सव दोन ते चार दिसांमेरेन चलता. ह्या नाचांत लालित्यापरस प्रभावीपणाचेर चड भर दिता आशिल्ल्यान नर्तकाचो भेस चित्रविचित्र आसता. नर्तक आपल्या माथ्यार तांबडो आनी भांगराकोरान रंगयल्लो एक व्हड मुकूट चडयता. तोंडार, हातार आनी हेर उकत्या अवयवांचेर विचित्र नक्षी काडटा. दंडाक भांगराचो बाजूबंद, हातांत भांगराचें कडें, कमराक एक रूंद पटो बांदता आनी रंगीत कपड्याचो घागरो न्हेसता. हे लोक विरन कंदारन चामुंडी, भगवती, थमपुरती आदी ग्रामदेवतांचीं उग्र अशीं रुपां घेतात. हीं रुपां घेवपी विशिश्ट लोक आसतात. तांकां पेरूवन्नन आनी मलायार म्हण्टात. ह्या लोकांक ग्रामवेवस्थेंत खाशेले अधिकार आसतात.

हो नाच केन्ना एकल्याचो जाल्यार केन्ना दोग जाणांचो आसता. ताका धोलाची साथ आसता. नाचाची गती ल्हव-ल्हव वाडत वता आनी ताचेवांगडा धोलाचो आवाजय चडत वता. नाचपी अदिंमदीं नाचपाचो थांबलो की गावपी लोक नाचाचो विशय आशिल्ले पुराणकथेचें गायन करतात.

नर्तक खूब वेळ नाचत रावता आनी तातुंतूच गुल्ल जाता. तेन्ना ताच्या आंगांत देव आयला अशें समजून ताका उच्चासनाचेर बसयतात. तेन्ना ताच्या तोंडातल्यान आयिल्ले शब्द हे देवाचेच शब्द असो लोकांचो समज आसता. देखून भावीक लोक ताका आपल्या भविश्याविशीं प्रस्न विचारतात आनी ते सुटावे करपाक उपाय विचारून घेतात. आंगांत अवसर येतकीच देवत्व प्राप्त जावप आनी देवत्व प्राप्त जाल्ल्या मनशाकडल्यान लोकांनी

कौल मागप, भविश्याविशीं प्रस्न विचारप हो प्रकार भोवतेक सगळ्या समाजांत चड उण्या प्रमाणांत दिसता. गोंयांतूय अशे तरेचो आंगांत अवसर आयिल्ल्या मनशाकडसून कौल मागपाचे आनी भविश्याविशीं विचारणा करपाचे प्रकार गांवागांवांनी सर्रास चलतात.

– कों. वि. सं. मं.

**थेरीगाथा :** एक बौद्ध ग्रंथ. थेरी म्हळ्यार जाण्टी, अणभवी आनी गिन्यानी अशी बायल. बौद्ध साहित्यांत हालींचे भिक्षुणीक ही संज्ञा लायतात. थेरीगाथा ह्या ग्रंथांत अशा ७३ थेरींच्यो ५२२ गाथा एकवटीत केल्यात. ह्या पुराय गाथांची शैली काव्यमय आसा.

त्या गाथांची रचणूक करपी ह्यो थेरी बुध्दाच्यो शिश्या आशिल्ल्यो. हातूंतली सगळ्यांत व्हड थेरी बुद्धाची मावशी महाप्रजापती गौतमी. शुद्धोदन राजाच्या मरणाउपरांत बुद्धान तिका भिक्षुणी जावपाची परवानगी दिली. तिचे वांगडा पांचशें शाक्य बायलांनी दीक्षा घेतली. उपरांत बौद्ध पंगडांमदींच तांचो स्वतंत्र पंगड जालो. फुडें संवसाराक विटिल्ल्यो जायत्यो बायलो ह्या पंगडाच्यो वांगडी जाल्यो. तातूंतल्या कांय भिक्षुणींनी आपले जिणेअणभव आनी बुद्धाकडेन संपर्क येतकच आपल्याक मेळिल्ली परमशांती शब्दरुपान मांडल्या.

इ.स. च्या पांचव्या शतमानांत धम्मपालान परमत्थदीपनी ह्या नांवाची थेरीगाथा टीका बरयल्या आनी तातूंत पुराय थेरींच्यो चरित्रकाणयो दिल्ल्यो आसात. हाचेवयल्यान ह्या थेरींच्या वैराग्याची फाटभूंय कळून येता. हे थेरींत कोण प्रपंचाक विटून, कोण मोगाच्या विरहाच्या दुख्खान जाल्यार कांय जाणांनी घोवाचे वागणुकेक विटून बुद्धाचो आदार घेतलो. कांय जाणीं आपल्या संन्यासी घोवाचें अनुकरण करपाक ह्या पंगडाच्यो वांगडी जाल्यो. ह्यो सगळ्यो थेरी स्वताक 'बुद्धाच्या काळजांतल्यान निर्माण जाल्ल्यो धुवो' (ओरसा धीता बुद्धस्स) अशें समजतात.

अंबपाली ही नामनेची गणिकाय फुडें थेरी जाली. तिणें आपल्या विरक्तीची काणी ज्या दोन गाथांनी उकतायल्या त्यो गाथा अश्यो –

> कालका भमरवण्णसदिसा वेल्लितग्गा मम मुद्धजा अहुं ।
> ते जराय साणवाकसदिसा सच्चवदिवचनम नञ्ञथा ॥
> वासितो व सुरभिकरण्डको पुप्फपूरं ममुत्तमङगभू ।
> तं जराय ससलोमगन्धिकं सच्चवादिवचनम' नञ्ञथा ॥

(थेरीगाथा २५२-२५३)

**अर्थ** – म्हजे कोंगरे केंस भुंग्यावरी काळे आशिल्ले, ते आतां म्हातारपणाक लागून तागावरी धवे जाल्यात. सत्यवादी बुद्धाचें म्हणणें निमाणें खरें थारलें. फुलांनी नटिल्लें म्हजे माथें वासाच्या फुलांच्या पांटल्यावरी दिसतालें. आयज ताका म्हातारपणाक लागून सोंशांच्या केंसांवरी घाण येता.

ह्या सगळ्या गाथांमदीं भिक्षुणीच्या अंतस्करणांतल्यान व्यक्त जावपी उद्वेग दिसता. पूण त्या उद्वेगावांगडाच परमशांतीचो मंद परमळूय दिसता. ह्या सगळ्या भिक्षुणींनी आपल्या स्वताच्या अणभवांतल्यान ह्यो गाथा रचिल्ल्यो आशिल्ल्यान त्यो शुद्ध भावकाव्याचे पातळेचेर पावल्यात. फक्त बौद्ध साहित्यांतच न्हय जाल्यार सगळ्या भारतीय साहित्यांत थेरीगाथांक तांचे भितल्ले सोबीतकायेक लागून उंचेली सुवात प्राप्त जाल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**दंडकारण्य :** दक्षिणेंतलो एक पुर्विल्लो रानवटी प्रदेश. हो वाठार विंध्य पर्वतासावन कृष्णा न्हंयेमेरेन पातळिल्लो. ह्या वाठाराविशीं रामायणांत कथा आसा ती अशी. इक्ष्वाकूचो दंड नांवाचो सगळ्यांत धाकलो पूत ह्या वाठाराचेर राज्य करतालो. ताचो गुरू शुक्राचार्य हो थंयच आश्रमांत रावतालो. एकदां शुक्राचार्याचे अरजा नांवाचे चलयेविशीं दंड हाका कामइत्सा जाली आनी ताणें तिचेर आगळीक केली. शुक्राचार्यान दंडाक शाप दिवन ताच्या राज्याचें अरण्यांत रुपांतर केलें. ह्या वाठारांत पयलीं दंडाचें राज्य आशिल्लें म्हणून हाका दंडकारण्य अशें नांव पडलें.

रामायणांत दंडकारण्याविशीं जायतीं वर्णनां मेळटात. रामान वनवासांतलो कांय काळ हांगा घालयल्लो. आनी राक्षसांक जिवे मारिल्ले. राम दंडकारण्यांत आसतनाय रावणान सीतेक उबारून व्हेल्ली. राम – रावण झुजा वेळार ह्या अरण्यांतल्या वानरांनी रामांक आदार केल्लो.

हें अरण्य गोदावरी न्हंयेमेरेन पातळिल्लें अशें महाभारतांत म्हळां. (सभा. ३०. वन ८५). बलराम तीर्थयात्रेक गेल्लो तेन्ना ताणें ह्या अरण्याक भेट दिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. पद्म पुराणांतल्या पवित्र तिर्थांचे वळेरेंत दंडकारण्याचो आस्पाव जाता. तुळजापूरच्या काटी गांवांतल्या एका विठ्ठलाच्या देवळांत आशिल्ल्या यादव काळांतल्या शिलालेखांत दंडकारण्याचो उल्लेख आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**दंडनीती :** एक विद्या. राजान राज्य कशें चलोवचें हाचें शास्त्र. 'दण्डनीतिं चार्थशास्त्ररूपामर्थयोगक्षेमोपदेशिनीम्' (= दंडनीती म्हळ्यार अर्थशास्त्ररूप म्हळ्यारूच अर्थ आनी योगक्षेम हांचे प्राप्तीचो उपदेश करपी विद्या), अशें कुल्लूकभट्ट म्हण्टा. ह्या शब्दाची निरुक्ती अशी:

> दण्डेन नीयते चेदं दण्डं नयति वा पुनः ।
> दण्डनीतिरिति ख्याता त्रील्लोकानतिवर्तते ॥

**अर्थ** – दंडाच्या बळार रयतेक फावत्या मार्गान व्हरप आनी शासन वेवस्था बरेतरेन राखप म्हळ्यार दंडनीती. दंडनीती ही त्रैलोक्याच्याय फुडली म्हळ्यार त्रैलोक्याक व्यापून उरपी आसा.

महाभारताच्या शांतिपर्वांतल्या राजधर्म प्रकरणांत दंडनीतीचो विस्तारान विचार केला. त्या काळांत राजाचें मुखेल कर्तव्य म्हळ्यार प्रजेक पाळो आनी न्याय दिवप अशें मानताले. राजाच्या अधिकाराक दंड अशें म्हण्टाले. प्रजापतीन रयतेचे राखणेखातीर दंडाची निर्मिती केली आनी तो अधिकार क्षत्रियांकच दिलो, अशें महाभारतांत म्हळां. दंडाचो फाव ते तरेन उपेग केल्यार धर्म, अर्थ आनी काम हांची उदरगत जाता. बरे बुध्दीन आनी राग द्वेष विरयत हो दंड उपेगांत हाडप अशें म्हळां. महाभारतांतले दंडनीतींत अमात्य, राश्ट्र, दुर्ग, बल आनी कोश ह्या पांच वर्गांचीं लक्षणां; सगळे तरेचे गुपीत विचार; संधिविचार; परराज्याचेर घुरी; सैन्याचीं आठ आंगां; दुस्मान, इश्ट आनी उदासीन हांचीं लक्षणां, तरेकवार व्यूह, वेगवेगळीं झूजतंत्रां, दुस्मानाक भियेवपाचे, तांच्यांत दुस्मानपण तयार करपाचे प्रकार, मित्रराश्ट्राचे उदरगतीखातीर यत्न, नोकरांचो पगार आनी राजकारणाविशीं पुराय विशयांचो आस्पाव आसा.

दंडनीतीक लागून चारूय वर्णांचे लोक आपआपली कर्तव्यां योग्य तरेन करतात आनी अधर्मापसून पयस रावतात. राजा जेन्ना दंडनीतीक धरून वागता तेन्ना कृतयुग तयार जाता अशें भीष्मान म्हळां. दंडनीतीबगर

जग चलचें ना थंय अंदाधुंदी मात्तली, अशें हनुमंतान भीमाक सांगलां.
- कों. वि. सं. मं.

**दंडवते, मधु रामचंद्र :** (जल्म : २१ जानेवारी १९२४, अहमदनगर - महाराष्ट्र).

भारताचो सुटकेझुजारी. ताणें एम्. एस्. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें.



१९४२ तल्या 'भारत छोडो' आंदोलनांतलो तो वावुरपी वांगडी आशिल्लो. १९४८त तो प्रजा सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी जालो आनी रोखडोच तो पार्टीच्या महाराष्ट्र राज्य फांट्याचो अध्यक्ष जालो. उपरांत तो अखिल भारतीय प्रजा सोशलिस्ट पार्टीचो जोडसचीव म्हणून वेंचून आयलो. फुडें प्रजा सोशलिस्ट पार्टी आनी समाजवादी सोशलिस्ट पार्टी एकठांय येवन सोशलिस्ट पार्टी तयार जातकच तो ते पार्टीचो सरचिटणीस जालो.

गोंयचे सुटके चळवळीच्या काळांत आपलो तेंको दिवंक तो १,२०० सत्याग्रह्यांचो पंगड घेवन गोंयांत येवंक भायर सरलो. पूण तेन्नाच मुंबय सरकारान सत्याग्रहाचेर बंदी हाडिल्ल्यान ताच्या सत्याग्रह्यांच्या पंगडाक बेळगांवच्यान सावंतवाडी वचचें पडलें. थंय येरादारीचे तशेंच हेर आडखळींक तोंड दिवंचें पडिल्ल्यान ताका १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या थारायल्ल्या दिसा सत्याग्रह करूंक मेळ्ळो ना. ताका लागून फकत ९३ सत्याग्रह्यांचो पंगड वेंचून तो १६ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा नेतार्डेंच्यान गोंयांत आयलो. तेन्ना पुर्तुगेज पोलिसांनी धरून ताका साबुद्द वच म्हणसर मार घालो. तशेंच ताचें हाड मोडिल्ल्या कारणान ताका स्ट्रेंचराचेर घालून भारताचे शिमेर दवरलो. उपरांतच्या काळांत तो महाराष्ट्राचे संयुक्त चळवळीखातीर तेचपरी १९६९-७१ ह्या काळांत तो महाराष्ट्र विधानसभेचो वांगडी आशिल्लो. १९७१ वर्सा तो राजापूरसावन प्रजा सोशलिस्ट पार्टीचे वतीन लोकसभेखातीर वेंचून आयलो. तेन्नासावन तो लोकसभेखातीर ह्याच मतदारसंघाचें प्रतिनिधित्व करतालो. आणिबाणीच्या काळांत 'मिसा' (MISA) खाला ताका अटक जाली आनी १८ म्हयने तो बंदखणींत उरलो.

जनता सरकाराच्या काळांत मोरारजी देसायाच्या फुडारपणाखाला १९७७त ताका केंद्रीय रेल्वेमंत्रीपद मेळ्ळें. १९८० आनी १९८५ तल्या वेंचणुकांनी तो लोकसभेखातीर जनता पार्टीचो उमेदवार म्हणून वेंचून आयलो. लोकसभेंतल्या ताच्या अभ्यासपूर्ण वावरावरवीं ताणें एक संसदपटू म्हणून नामना जोडल्या.

१८ जून १९८७ ह्या 'गोंय क्रांती दिसा' गोंय सरकारान मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १९८९ तल्या वेंचणुकांनी तो जनता दलाचो उमेदवार म्हणून परत राजापूर मतदारसंघांतल्यान वेंचून आयलो. विश्वनाथ प्रताप सिंग हाच्या फुडारपणाखाला राश्ट्रीय सरकाराचो तो केंद्रीय अर्थमंत्री आशिल्लो.

भौतिकी विज्ञानाचो तो एक बुदवंत विद्यार्थी आशिल्लो आनी ताका अणुकेंद्रीय भौतिकींत चड आवड आशिल्ली. १९७१ मेरेन मुंबय, सिध्दार्थ कॉलेज ऑफ आर्ट ॲण्ड सायन्स हे कॉलेजींत तो उपप्राचार्य आनी भौतिकी विभागाचो मुखेली आशिल्लो. ताका वाचनाची तशेंच बरोवपाची खूब आवड आसा. ताचीं कांय पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. तातूंतलीं कांय पुस्तकां अशीं - गांधीजीस इम्पॅक्ट ऑन सोशलिस्ट थिंकिंग; थ्री डिकेडस ऑफ इंडियन कम्युनिझम; काश्मीर ॲण्ड मार्क्स ॲण्ड गांधी.
- कों. वि. सं. मं.

**दंडी :** (सुमार ६०० ते ७५०).

नामनेचो संस्कृत कवी, गद्य कथाकार आनी साहित्यशास्त्रज्ञ. वीरदत्त आनी गौरी हे ताचे आवय - बापूय. ल्हानपणांतूच बापूय भायर पडिल्ल्यान ताका कांची हो आपलो गांव सोडून भोंवचें पडलें. हे भोंवडेंत ताणें उत्तर भारतांतलीं कितलींशींच थळां पळेलीं. ह्या काळांत ताणें भौशीक जिवीत लागसारच्यान पळेलें आनी शास्त्रांचोय खोलायेन अभ्यास केलो. जिवितांत मातशी थिराय येतकच कांचींत राजाश्रय मेळोवन तो स्थायीक जालो आनी साहित्यीक गुणवत्तेक लागून नामनेक पावलो. ताचे बरपावळींतल्या कांय शब्दप्रयोगां वयल्यान आनी उल्लेखांवयल्यान तो दाक्षिणात्य आसून ताचो राजदरबारांकडेन लागींचो संबंद आशिल्लो, हें कळटा.

राजशेखरान दंडीच्या तीन प्रबंधांचो उल्लेख केला. तातूंतले 'काव्यादर्श' आनी 'दशकुमारचरित' हे दोन मुखेल ग्रंथ उपलब्ध आसात. 'अवन्तिसुंदरीकथा' हो दंडीचो तिसरो प्रबंध अशें कांय जाणकारांचें मत. दंडीच्या 'काव्यादर्श' ह्या ग्रंथाक संस्कृत साहित्यांत म्हत्वाची सुवात आसा. हातूंत ३६० श्लोक आसून ताचे तीन परिच्छेद आसात. पयल्या परिच्छेदांत काव्याची व्याख्या करून ताचे गद्य, पद्य आनी मिश्र अशे तीन विभाग सांगल्यात. महाकाव्याची व्याख्या करून जातकच आख्यायिका आनी कथा हे गद्य काव्याचे प्रकार सांगून तातूंत मुळावो कसलोच भेद ना, अशें म्हळां. संस्कृत, प्राकृत, अपभ्रंश आनी मिश्र अशे साहित्याचे चार भाग सांगतकच वैदर्भी आनी गौडी हे भाशाशैलीचे प्रकार आनी काव्याचे धा गूण हांची विस्कटावणी केल्या. प्रतिभा, विद्वत्ता आनी सतत कश्ट ह्या गुणांक लागून कवित्व शक्त प्राप्त जाता अशें म्हळां. दुसऱ्या परिच्छेदांत अलंकारांची व्याख्या करतकच पस्तीस अलंकारांचीं लक्षणां देखीं सयत दिल्यांत. तिसऱ्या परिच्छेदांत यमकांविशीं विस्तारान फोडणिशी करतकच चित्रबंधांच्यो व्याख्या आनी देखी सांगून, प्रहलिकेचे सोळा प्रकार आनी दोशांचे धा प्रकार वर्णिल्यात.

संस्कृत गद्यांत बरयल्ल्या 'दशकुमारचरित' ह्या दंडीच्या ग्रंथांत ताणें धा कुमारांच्या धाडशी जिविताची अप्रूप कथा वर्णिल्या. ह्या ग्रंथाचे दोन भाग आसात. दोनूय भाग मेळून २१ उच्छ्वास आसात. हातूंतल्या पयल्या भागांतली सुरवातीची ५ उच्छ्वासांची पूर्वपीठिका आनी दुसऱ्या भागांतली निमाणची ८ उच्छ्वासांची उत्तरपीठिका फाटल्यान कोणें तरी

त्या ग्रंथाक जोडल्या, अशें जाणकारांचें मत आसा. ह्या ग्रंथांतल्या धा धाडशी कुमारांक देशाटन करता आसतना आयिल्ले विचित्र अणभव सांगपा निमतान दंडीन कपट, धाडस, चोरी, जादू, चमत्कार, द्यूत, सोरो, झूज, खून, भोग आनी वेगवेगळ्या गजालींचें चित्रण ह्या ग्रंथांत केलां. दंडीची नदर वास्तववादी आसून, ताणें समाजाच्या सगल्या थरांचें बारीकसाणीन निरिक्षण केल्लें अशें ताच्या वेगवेगळ्या प्रसंगांच्या वर्णनांतल्यान दिसता. दंडीन हो ग्रंथ वैदर्भी शैलींत बरयला.

भारतीय जिविताचें आगळें वेगळें दर्शन घडोवपी साहित्यीक म्हणून दंडीक संस्कृत साहित्यांत मानाची सुवात आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**दंत :** दुसऱ्यांच्या जिवार जियेवपी एक जीव. ते चड करून मनशाच्या पोटांतल्या आंतकड्यांनी आसतात. देखून तांकां आंतकड्यांतले दंत अशेंय म्हणटात. आस्केरिस, ऑक्सियुरिस, ऑकिलोस्टोम, ट्रिचुरीस ट्रिचुरिअ हीं तांची शास्त्रीय नांवां. तांच्या आकारावयल्यान तांचीं नांवां थरयतात. वाटकुळे दंत, सुती दंत, गांच दंत, चेपटे दंत हे सगले नेमाटोडा ह्या शास्त्रीय वर्गांतले जीव.

संवसारांतल्या सगळ्या देशांतल्या लोकांक चड करून ल्हान भुरग्यांक दंत जातात. तांचें चड वा उणें प्रमाण भोंवतणचो दुशीत वा निवळ वाठार आनी दर एकल्यान आपले कुडीची नितळसाण राखपाचेर आसा.

दंतांची लागण जाल्ल्या मनशाच्या परसाकडल्यान दंतांचीं तांतयां मेकळे जमनीचे मातयेंत पडले उपरांत थंय तांची वाड जाता. मागीर ती दुशीत माती वा धुल्ल लागिल्लो भाजीपालो, फळां वा हेर खाणजेवण आनी पेयां सारकीं निवळ करिनासतना वा शिजयनासतना खाल्यार, तीं वाडिल्लीं दंतांचीं तांतयां वा पिलां परत मनशाच्या पोटांत पावतात आनी तीं फुडें रगताच्या पेशींनी वाडून तांच्यो किडी मनशाच्या आंतकड्यांनी राबितो करतात. अशे तरेन विंगड विंगड दंतांच्या रोगांची लागण भुरग्याक तशेंच जाणट्यांक जावंक शकता.

दंतांच्या रोगाचें निदान वा खात्री करूंक मनशाचें परसाकडेन तपासचें पडटा. तातूंत थोड्या प्रकारचे दंत दोळ्यांनी दिसतात जाल्यार हेर दंतांचीं तांतयां आनी पिलां मायक्रोस्कोप ह्या सुक्षीमदर्शक यंत्रांतल्यान पळेत जाल्यार ती दिसूंक शकतात.

**दंतांच्या रोगाची मुखेल लक्षणां** : भूक उणी, चड लागप, पोटांत दुखप वा घांस मारून येवप, पिरायेप्रमाण कुडीची वाड सारकी जावप ना, न्हिदेंत दांत करकरावप वा मुतप, आंग तापप, ओंकारे येवप, नाकाच्या पोंताक वा परसाकडचे नाडयेकडेन खाज सुटप, खोंकली येवप, पोट फुगप, पातळ परसाकडेन जावप आदी लक्षणां दंतांची जात आनी तांचें चड - उणें आंतकड्यांतलें प्रमाण हांचेर आसता.

**वाटकुळे दंत** (Roundworms) : हे जमनींतल्या गांयडोळा भाशेन दिसतात. ताची मादी सुमार ३० सेंमी. लांब आनी नर १६ सेंमी. लांब आसता. ह्या दंताचीं तांतयां दुशीत जेवणखाण आनी उदकांतल्यान मनशाच्या पोटांत पावून ल्हान आंतकड्यांनी तांचीं पिलां भायर सरतात. उपरांत तीं रगतांतल्यान फुफुसां, स्वास आनी जेवणाच्या नळयांतसून परत आंतकड्यांनी वचून थंय तांची सारकी वाड जाता. ह्या दंताखातीर चड करून ल्हान भुरग्यांक आस्केरिस हो रोग जावंक शकता.

**सुती दंत** (Threadworms) : हे दंत सुताभाशेन धव्या बारीक कुडक्यावरी दिसतात. तांची मादी सुमार ३ मिमी. लांब आसता. हे दंत व्हडल्या आंतकड्यांनी रावून ताची मादी परसाकडचे नाडयेकडेन तांतयां घालता. उपरांत थंय खाज सुट्टा. जायते फावट खरपीतना तीं तांतयां बोटाच्या नाखटांनी शिरकतात आनी जेवणाखाणा वांगडा तीं पोटांत वतात. उपरांत आंतकड्यांनी तीं फुट्टात आनी तातूंतल्यान पिलां भायर सरतात. ऑक्सियुरिॲसिस नांवाचो ह्या दंताचो रोग भुरग्यांक तसोच जाणट्यांक जाता.

**गांच दंत** (Hookworms) : हे ल्हान गांचांभाशेन दंत. ताची मादी सुमार ९ मिमि. लांब जाल्यार नराची लांबाय तिचेपरस मातशी उणी आसता. ह्या दंताचें तोंड गांचावरी वळिल्लें आसून, तांतल्या चार दातांनी ते ल्हान आंतकड्यांक हुमकळटात आनी मनशाचें रगत चिंवूंक लागतात. तेखातीर मनशाक ॲनिमियाची धवसाण दिसता आनी ताका ऑकिलोस्टोमीयाझीस हो रोग जाता.

**चेपटे दंत** (Tapeworms) : हे दंत चेपटया फिताभाशेन आसून ताची मादी सुमार ५० मिमी. लांब जाल्यार नराची लांबाय सुमार ४० मिमी. आसता. ते व्हडल्या आंतकड्यांनी रावतात. ताच्या तांतयांची वाड गोरवां, दुकर वा नुस्तें हांचेवरवीं जाता. मास आनी नुस्तें सारकेंशिजयनासतना खाल्यार दंताचे किडे पोटांत पावतात आनी ट्रिचुरीस - ट्रिचुरिऑसिस हो रोग जाता.

आतां दंतांआड जायतीं वखदां आयल्यांत. पूण दंतांची लागण लागची न्हय म्हणून जण एकल्यान आपले कुडीची, भोंवतणच्या वाठाराची तशेंच खावपाच्या आनी पियेवपाच्या वस्तूंची सारकी नितळसाण राखूंक जाय.

– दामोदर भोंसुले

**दंतकथा :** लोककथेचो एक प्रकार. ही संज्ञा थळाव्या वा इतिहासीक आख्यायिकांक लायतात. संस्कृत वा प्राकृत साहित्यांत मात ही संज्ञा मेळना. मराठी साहित्यांत श्रीधरस्वामी नाझरेकरान तिचो उल्लेख असो केला –

जैमिनीअश्वमेघ पाहोन । कथा त्याच कथिल्या संपूर्ण ।
वाउग्या दंतकथा ऐकोन । नाहीं लिहिल्या ग्रंथीं या ।

(पांडवप्रताप ६३.४६)

जांकां लिखीत आनी प्रतिश्ठीत ग्रंथाचो आदार ना अशो तोंडान चलत आयिल्ल्यो कथा म्हळ्यार दंतकथा. संस्कृतांत वार्ता ह्या अर्थान उदंत असो शब्द आसा : देखीक 'कान्तोदन्तः सुहृदुपगतः सङगमात्किञ्चिदूनः ।' (= बायलांक सुहृदांनी सांगिल्ल्या तांच्या घोवांची खबर प्रत्यक्ष भेटीपरस कांय प्रमाणांत उणी दिसता.) ह्या मेघदुतांतले ओळींत हो शब्द वापरला. ह्या शब्दावयल्यान उदंतकथा म्हळ्यार तोंडांतल्यान चलत आयिल्ली कथा असो अर्थ आयला आसूंक जाय. ह्या शब्दांतलो 'उ' वचून दंतकथा हो शब्द जाला आसूंक जाय.

अभ्यासकांनी दंतकथेचे दोन वर्ग केल्यात –

(१) प्रसृत दंतकथा : जैमिनिभारतांत आस्पाव जाल्ली चंद्रहास कथा हें प्रसृत कथेचें एक बरें उदाहरण. ही कथा संवसारांतल्या सगल्या वाठारांनी पातळ्ळ्या. तशेंच, भारतांतली हंसकन्या कथाय संवसारभर पातळ्ळ्या. (२) थळाव्यो कथा : हे कथेचे चार मुखेल वर्ग अशे :

इतिहासीक व्यक्तिचो आनी घडणुकांचो संबंद सांगपी कथा (२) स्थळाच्यो आख्यायिका (३) पुरिल्ल्या धनाविशींच्यो कथा. (४) भुताच्यो, झपाटिल्ल्या घराच्यो आनी झाडाच्यो आख्यायिका थळाव्या दंतकथांतल्या कांय कथांची त्या त्या गांवांतूच नामना आसता. जाल्यार कांय कथा वाठारभर पातळिल्ल्यो आसतात.

लोकसाहित्य विशारदांच्या मतान दंतकथा म्हळ्यार विपर्यस्त वा असंबध्द आनी चडसो विस्मृत असो इतिहास. दंतकथेंत इतिहासाचो धागो कांय प्रमाणांत आसताच, दंतकथेचो उगम वस्तुस्थितींत आसलो तरी ते वस्तुस्थितीक जिवेपण येवंचें देखून जे व्यक्तिकडेन तिचो संबंद आसता ते व्यक्तिक देवतेचें स्वरूप दिवपाचो परंपरीक यत्न जाता. देखुनूच जायते फावट दंतकथा आनी दैवतकथा हातूंतलें वेगळेपण थरोवप कठीण जाता. परशुराम, वामनावतार, बळिराजा, राम, कृष्ण हांच्या इतिहासाचें अशेंच दंतकथांतल्यान दैवतकथांत रुपांतर जालें. आबाजी सोनदेवान कल्याणच्या सुभेदाराची सून धरून हाडटकच छत्रपती शिवाजीन तिचो आवयवरी भोवमान करून तिका परत धाडली हीय एक दंतकथाच. पूण हे कथेंतल्यान मात शिवाजी महाराजाची परक्या बायलांक पळोवपाची पवित्र नदर जाणवता, हें इतिहासीक सत्य. देखुनूच अशा दंतकथांचो इतिहास रचणुकेंत कांय शिमेमेरेनूच उपेग जावंक शकता.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : लोककथा.

**द :** वर्णमाळेंतलें अठरावें व्यंजन आनी त वर्गांतलो तिसरो वर्ण. 'द' च्या विकासाच्यो सगळ्यो सात अवस्था आसात. पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनारच्या लेखांत, दुसरी पभोसाच्या लेखांत (क्रिस्तापयलीं पयलो शेंकडो), तिसरी महाक्षत्रप शोडास हाच्या काळांतल्या मथुरेंतल्या जैन लेखांत, चवथी मथुरेच्या कुशाणकालीन लेखांत (इ. स. चो पयलो – दुसरो शेंकडो), पांचवी राजा यशोधर्म्याच्या काळांतल्या मंदसोरच्या लेखांत (इ. स. ५३२) आनी सवी जपानांतल्या होर्युजीच्या मठांत मेळिल्ल्या ताडपत्रांवयल्या 'उष्णीषविजयधारी' ह्या ग्रंथाच्या निमाणेकडेन दिल्ले पुराय वर्णमाळेंत (इ. स. सवो शेंकडो) मेळटा. ह्या वर्णाची निमाणची अवस्था पयले अवस्थेच्या सामकी उरफाटी जाल्या. हो दंत्य वर्ण.

'द' चो विकासक्रम असो जाला –



वर्णोध्दार तंत्रांत हाचें स्त्रीरुपी ध्यान सांगलां. तें अशें –

ध्यानमस्य दकारस्य वक्ष्यते शृणु पार्वति ।<br>
चतुर्भुजां पीतवस्त्रां नवयौवनसंस्थिताम् ।<br>
अनेकरत्नघटितहारनू पुरशोभिताम् ।<br>
एवं ध्यात्वा दकारं तु तन्मन्त्रं दशधा जपेत् ।

**अर्थ** – हे पार्वती, हांव दकाराचें ध्यान सांगतां तें आयक. चार भुजांची, हळदुवें वस्त्र न्हेशिल्ली, नवयौवना, जायत्या तरांच्या रत्नांनी मठयल्ले हार घाल्ली अशें द वर्णाचे देवतेचें ध्यान करून तिच्या मंत्राचो जप धा खेपे करचो.

– कों. वि. सं. मं.

**दक्खिनी भास आनी साहित्य :** ही भास दक्षिण भारतांत आकाराक येवन, दक्षिणेंतल्या भाशांचेच तिचेर चड संस्कार जाले. तेखातीर तिका दक्खिनी हिंदी वा फकत दक्खिनी हें नांव मेळ्ळें. दक्खिनी भास हें हिंदीचेंच एक प्रदेशीक रूप आसलें, तरी हे भाशेक स्वतंत्र भाशेची प्रतिश्ठा लाबल्या.

दक्खिनी भाशेचो इतिहास पळेल्यार, हे भाशेचे तीन कालीक भेद दिसतात. हे भाशेचें सुरवातीचें रूप अपभ्रंशान प्रभावीत आशिल्लें. मुसलमानांच्या आक्रमणा उपरांत सुमार शंबर – देडशें वर्सां दक्खिनी भास फकत घरगुती बोलीभाशेच्या स्वरुपांत तिगून उरली. हें दक्खिनी भाशेचें दुसरें रूप. फुडें चवदाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन मुसलमान राज्यकर्त्यांच्या आलाशिऱ्यान हे भाशेक परतून साहित्यीक प्रतिश्ठा लाबली. मराठी, कन्नड आनी तेलुगू ह्या स्थानिक भाशांवांगडाच अरबी – फारसी भाशांचोय, दक्खिनी भाशेचेर प्रभाव पडला. हें दक्खिनी भाशेचें तिसरें आनी पुराय विकसीत अशें रूप. भाशेचे नदरेन दक्खिनीचीं घरगुती आनी साहित्यीक अशीं दोन रुपां दिसतात. घरगुती बोलीभाशेचेर स्थानिक भाशांचो चड प्रभाव दिसता. औरंगाबाद – देवगिरीचे दक्खिनी भाशेचेर मराठी भाशेचो जाल्यार गुलबर्गा – विजापूराक कन्नड भाशेचो प्रभाव चड आसा. गोवळकोंडा आनी हैदराबाद ह्या वाठारांतले दक्खिनी भाशेचेर तेलुगू भाशेची सया दिसता. साहित्यीक नदरेन विजापूर आनी गोवळकोंडाची शैली चड परिष्कृत आसा.

दक्खिनीचो उदय दक्षिणेंत मुसलमान येवंचे पयलीं जालो. सुरवातेक दक्खिनी कवितेचें लिखाण देवनागरी लिपींत जातालें, तरीय मुसलमान लोकांनी ही भाशा आपणायतकच तिची लिपी अरबी – फारसी जाली. दक्खिनी भास उलोवपी चडशे हिंदूच आशिल्ले आनी ज्या लोकांनी नव्यानूच मुसलमानी धर्म आपणायल्लो अशेय लोक खूब आशिल्ले. पूण मुसलमान हे जेते आशिल्ले आनी तांचे शासन – वेवस्थेंत मुल्ला – मौलवींचें खास प्रस्थ आशिल्ल्यान दक्खिनी भाशेची लिपी देवनागरी सोडून फारसी – अरबी, चड करून फारसी जाली. बहामनी काळासावन दक्खिनी भाशेंतले सगळे ग्रंथ फारसी लिपींत बरयल्ले आसात. फारसींत बरयल्ल्या शब्दांचें लिखीत रूप एक जाता आनी उच्चारिल्लें रूप वेगळेंच जाता. देखीक : 'से' ह्या शब्दाचो उच्चार 'सीन' असो जाता. तशेंच 'तोय' ह्या शब्दाचो उच्चार 'ते' असो जाता. हिंदी बोलीभाशेंतले अ, आ, इ, ई, उ, ऊ, ऍ (ऱ्हस्व ए), ए, ओॅ (ऱ्हस्व ओ), ऐ, ओ, औ हे सगळे स्वर दक्खिनींत आसात. हिंदी बोलीभाशेंतलीं सगळीं व्यंजनां दक्खिनींत आसून, फारसी – अरबीचीं ख, ज, ग, फ हींय व्यंजनां आसात. दक्खिनी भाशेंत देशी तशेंच विदेशी शब्दांचो संकर खूबकडेन दिसता.

गोवळकोंड्याच्या कुतूबशाहीच्या काळांत गुजराती लोक दक्षिणेंत पावले आनी तांणी दक्खिनी भास आपणावन, हे भाशेंत ग्रंथरचना केली. तेखातीर दक्खिनी भाशेचेर गुजराती भाशेचे संस्कारूय दिसतात. गुजराती लोकांच्या ह्या संपर्काक लागून दक्खिनी भाशेक 'गुजरी' अशें पर्याय नांवूय मेळिल्लें. मराठी, कन्नड आनी तेलुगू ह्या भाशांनी दक्खिनीक, दक्खिनीपण मेळोवन दिलां.

दक्खिनी साहित्याची निर्मिती करपी ग्रंथकार चडशे मुसलमान आशिल्ले. तांचो अरबी – फारसीचो व्यासंग आशिल्लो आनी तांणी रचिल्ले खुबशे दक्खिनी ग्रंथ फारसी ग्रंथांचे अणकार आशिल्ले. तेखातीर दक्खिनी

भाशेंत फारसी - अरबी शब्दांची आवक कांय प्रमाणांत जाली.

खुबशे संस्कृत शब्द दक्खिनी भाशेंत तत्सम स्वरुपांत मेळटात. देखीक - अंबर, अखंड, अवतार, उत्तम, मास, छंद, दानी, सेवक, देह, नारी.

शब्दाच्या मदलें 'ह' केन्ना केन्ना शेणटा. चड करून धातूच्या रुपांत आशिल्ल्या 'ह'चो उच्चार केन्ना केन्नाय फुडल्या अक्षरांत मेळटा. देखीक - कता (कहता), ठैरते (ठहरते), पैछान कर (पहचान कर).

आयचे खडी बोलींत आनी दक्खिनींत म्हत्वाचो फरक क्रियापदांचो आसा. हिंदीच्या कर्मणी प्रयोगांत क्रियापदाचें लींग-वचन कर्माप्रमाण बदलता, जाल्यार दक्खिनींत तें कर्त्याप्रमाणच उरता. दक्खिनींत क्रियापदाचीं आकारान्त रुपां याकारान्त वापरतात. देखीक - जान्या (जाना), बोल्या (बोला), पहचान्या (पहचाना), देख्या (देखा). हिंदींतल्या 'ही' ह्या शब्दयोगी अव्यया जाग्यार 'च' ह्या मराठी शब्दयोगी अव्ययाचो वापर हें दक्खिनी भाशेचें एक व्यवच्छेदक लक्षण मानतात.

**दक्खिनी साहित्य** : इ. स. १३५० ते १७५० हो काळ दक्खिनी साहित्याचे नदरेन म्हत्वाचो काळ थरला. ह्या चार शेंकड्यांच्या काळांत, ज्या नांवाजत्या कवींनी हे भाशेची उदरगत केली, त्या उपासकांभितर विलासी कवी, मुसलमान राज्यकर्ते, सुफी प्रचारक तशेंच हिंदू संत आशिल्ले.

ख्वाजा बंदानेवाज (१३१८ - १४२३) हो दक्खिनीचो आद्य कवी मानतात. इ. स. १३९८ वर्सा अंयशीं वर्सांचो जाण्टो कवी दक्षिणेंत दौलताबादेक आयलो. ताणें फारसी आनी दक्खिनी ह्या दोनूय भाशांनी ग्रंथ बरयले. ताचें 'चक्कीनामा' हें काव्य तशेंच मेराजनामा आनी से: पारा हे दोन आद्य ग्रंथ दक्खिनी भाशेंत आसात. बंदानेवाज हाचो प्रशिश्य शाह मीराँजी हो पंदराव्या शेंकड्यांतलो नामनेचो दक्खिनी ग्रंथकार. हाणें खुशनाम, खुशनब्ज आनी शहादतुल् - हकीकत हे तीन काव्यग्रंथ तशेंच शाहमर्गू बुकुलुब आनी सबरस हे दोन गद्यग्रंथ रचले. अशरफ, फीरोज, बुरहानुद्दीन जानम आनी शाह अली हे सोळाव्या शेंकड्यांतले नामनेचे ग्रंथकार. ह्या काळांत सुफी संतांभाशेनूच हिंदू संतांनीय दक्खिनी रचणुको केल्यात. ह्या संतांभितर संत एकनाथाक म्हत्वाची सुवात आसा. ताणें खुबशीं पदां, भारुडां आनी हिंदू - तूर्क संवादांभाशेन स्फुटां दक्खिनींत रचल्यांत.

सतराव्या शेंकड्याचे सुरवातीक वजही नांवाच्या कवीन दक्खिनींत खूप साहित्य निर्मिलें. ताची सुरवातीची काव्य रचना उपलब्ध ना. ताच्या ग्रंथ संभारांतले दोनूच ग्रंथ उपलब्ध आसात. एक कुतुबमुश्तरी आनी दुसरो सबरस. कुतुबमुश्तरी ह्या काव्यग्रंथांत युवराज मुहंमद कुली कुतुबशहा आनी बंगालची राजकुमारी मुश्तरी हांची काल्पनीक मोगाची कथा आसा. ताचो सबरस हो गद्यग्रंथ म्हळ्यार दक्खिनीचें पयलें गद्यकाव्य. हाची रचणूक इ. स. १६३५ वर्सा जाली. हो ग्रंथ वजहीन फताहीच्या 'हुस्न व दिल' ह्या फारसी ग्रंथाच्या आदारान बरयला. पूण ताणें तसो उल्लेख मात करूंक ना. वजहीक दक्खिनीचो खूब अभिमान आशिल्लो. उत्तर काळांतल्या दक्खिनी साहित्यिकांचेर वजहीन खाशेलो प्रभाव गाजयला. वजहीचो आश्रयदातो मुहंमद कुली कुतुबशहा (१५६४ - १६१२) होय एक कवीच आशिल्लो.

मुहंमद कुली कुतुबशहा आनी वजही हांचे उपरांत दक्खिनींत हेर बरेच कवी जावन गेले. गौवासी हो तांचेमदलो सगळ्यांत श्रेश्ठ कवी मानतात. ह्याच काळांत सनअती, खुशनूद, मुकीमी, कुतुबी हे कवी जावन गेले. सतराव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत नस्त्रती, मीराँजी खुदानुमा, तगई, गुलामअली, इश्रती जईफी, मुहंमद अमीन, वज्दी हे कवी जावन गेले. नस्त्रती हो ह्या काळांतलो सगळ्यांत श्रेश्ठ कवी. एके तरेन हो दक्खिनीचो निमाणचो श्रेश्ठ कवी मानतात.

वली औरंगाबादी वा वली दक्खनी (इ. स. १६८२-१७३०) हो दक्खिनीचो निमाणचो कवी आनी उर्दूचो पयलो कवी. अहमदाबादचो सुफी साधु वजीहउद्दीन गुजराती हो ताचो गुरू. वली औरंगाबादी, औरंगजेबाच्या काळांत दिल्लीक गेलो, ताच्या दक्खिनी गजलांनी दिल्लींतले कवी मग्न जाले आनी तांणी दक्खिनी आपणायली. हाका लागून दक्खिनींत फारसी - अरबी शब्दांचें प्रमाण खूब वाडलें. हाचो परिणाम दक्खिनीचें स्वत्व ना जावन, तिचें हें फारसी प्रभावीत रूप उपरांत उर्दू ह्या नांवान वळखूंक लागलें.

वली उपरांत दक्खिनीचें साहित्य उर्दू साहित्यांत लुप्त जालें आनी दक्खिनी ही दक्षिणेंतल्या कांय लोकांची चड करून मुसलमान लोकांची फकत बोलीभास उरली.

- कों. वि. सं. मं.

## दख्म :

**दख्म** : पारशी लोकांच्या मड्यांची विलेवाट लावपाखातीर एक फातराचो व्हड असो बुरूज उबारतात ताका दख्म अशें म्हण्टात. हो बुरूज लोकवस्तीसावन पयस अशे सुवातेर बांदतात.

हो दख्म वाटकुळो आसता. ५-६ मीटर उंचायेच्या ह्या बुरुजाचे भितरले वटेन वाटकुळीं तीन सोंपणां आसतात. ज्या फातराचेर मडें दवरतात, ताका 'पावी' अशें म्हण्टात. सोंपणाचे पयले ओळींत दादल्यांचीं, दुसरे ओळींत बायलांचीं आनी तिसरे ओळींत भुरग्यांचीं मडीं विधिपूर्वक दवरतात. दख्माचे मदीं एक फरशी बसयल्लो फोंड आसता, ताका 'भंडार' अशें म्हण्टात.

पृथ्वी, जल, वायू आनी अग्नी ह्या जिणेक पोषक आशिल्ल्या दिवपी मूलतत्त्वांची शुध्दताय मेल्ले कुडीच्या संसर्गान नश्ट जावंची न्हय म्हणून धर्मीक आदेशाप्रमाण पारशी लोक दक्ष आसतात. तेखातीर निमाणे सगळे संस्कार करून मेल्ली कूड गिदांक खावपाक दिवन नश्ट करतात. मड्याचें मास गिदांनी खातकच उरिल्ल्यो अस्थी आनी हेर कितेंय उरता तें सगळें भंडारांत पडटा. ह्या भंडाराक भितरल्यान चार दिशांनी चार पाट काडून ते जमनींत बांदून काडिल्ल्या बांयांक जोडटात. ह्यो बांयो फरशांनी बांदून काडिल्ल्यो आसतात. भंडारांत भरपूर कोळशे आनी रेंव आशिल्ल्यान खर वताक लागून हातूंत पडिल्ल्यो अस्थी मातयेभरवण जातात.

- कों. वि. सं. मं.

## दत्त संप्रदाय :

**दत्त संप्रदाय** : दत्तात्रेयाचे उपासनेचो संप्रदाय. दत्तात्रेयाक उपास्य दैवत मानपी लोकांचो धर्मपंथ. पंदराव्या शेंकड्याच्या पुर्वार्धांत नरसिंह सरस्वती नांवाचे एके विभूतीन ह्या संप्रदायाची स्थापणूक केली.

दत्तात्रेय हो अवधूत जोगी आसा म्हणून नाथ संप्रदायांतूय ताची उपासना जाता. ताचे वयल्यान नाथ संप्रदायाक 'अवधूत पंथ' अशें म्हण्टात. नाथ संप्रदायांत दत्त आनी गोरखनाथ हांच्या संबंदांविशीच्यो

अद्‌भुत कथा आसात.

महानुभाव संप्रदाय होय दत्त संप्रदायूच. ताची परंपरा दत्तात्रेय - चांगदेव राऊळ - गुंडम राऊळ - चक्रधर अशी आसा. 'या मार्गासि श्रीदत्तात्रेयप्रभु आदिकारण' अशें चक्रधरानूच म्हळां. महानुभावांच्या पंचकृष्णांत दत्तात्रेयाचो आस्पाव जाता. पूण तांचो दत्तात्रेय हो विष्णुचो वा देवतात्रयीचो अवतार नासून, साक्षात परब्रह्माचो अवतार आसा. कारण तांच्या मतान ब्रह्मा - विष्णू - महेश ह्यो गौण देवता. तांचो दत्त हो एकमुखी आनी चार भुजांचो. तो परब्रह्माचो अवतार. सूत्रपाठ, लीलाचरित्र ह्या महानुभाव ग्रंथांनी लेगीत दत्तमाहात्म्य वर्णिलां. महाराष्ट्रांतल्या, वारकरी संप्रदायाच्या संतांनी दत्तात्रेयाविशीं आदर उक्तायला. आनंद संप्रदायाचो आदिगुरू दत्तात्रेय आशिल्ल्यान ताका दत्त संप्रदायूच म्हण्टात. समर्थाकूय दत्तान दर्शन दिल्ल्याची कथा सांप्रदायिक ग्रंथांनी मेळटा. चैतन्य संप्रदायांतलो आद्य सत्पुरूष राघव चैतन्य हाणें गिरनाराचेर तप करून दत्तात्रेयाची कृपा मेळयल्ली. ताणें आपल्या 'ज्ञानसागर' नांवाच्या ग्रंथांत दत्तोपासनेचो प्रचार केला.

श्रीपाद श्रीवल्लभ हो साधू दत्तात्रेयाचो इतिहासकाळांतलो पयलो अवतार मानतात. नरसिंह सरस्वती हो दुसरो अवतार. पयलींसावन दत्तोपासना चालू आशिल्ली पूण नरसिंह सरस्वतीच्या प्रभावाक लागुनूच हाका संप्रदायाचें रूप मेळ्ळें. नरसिंह सरस्वतीच्या महासमाधी उपरांत एक शेंकड्याभितर महाराष्ट्रांत दत्तसंप्रदायाचो प्रभाव खूब वाडलो. इ. स. च्या सोळाव्या शेंकड्यांत जनार्दनस्वामी, एकनाथ आनी दासोपंत हे त्रिमुर्तीन दत्तभक्तीचो आश्रय करून दत्तोपासनेची परंपरा चड समृध्द केली. उपरांत मुक्तेश्वर, निरंजन रघुनाथ, नारायण महाराज जालवणकार, माणिक प्रभू, अक्कलकोटकर स्वामी, वासुदेवानंद सरस्वती, पंतमहाराज बाळेकुंद्रीकर, विष्णुदास, दीक्षितस्वामी अशे कितलेशेच दत्तभक्त जावन गेले. आयज लेगीत दत्तोपासनेची परंपरा चलोवपी कांय सत्पुरूष विद्यमान आसात.

दत्त संप्रदायाचो उपास्य आशिल्लो दत्तात्रेय हो एक योगी आशिल्ल्यान दत्तोपासनेंत योगाक चड म्हत्व आसा. चांगदेव राउळासावन सगले म्हान दत्तोपासक योगी आशिल्ले. दत्त हो गुरूदेव. ताची उपासना गुरूस्वरुपांतूच करपाची आसता. 'श्रीगुरुदत्त' वा 'गुरुदेवदत्त' हो ताचो जयघोश. दत्त संप्रदायांत दरेका दत्तसाक्षात्कारी आनी दत्तावतारी सत्पुरुषाच्या नांवान स्वतंत्र अशो सांप्रदायिक परंपरा आसात. माणिकप्रभूचो 'सकलमतसंप्रदाय', पंत महाराजाचो 'अवधूत संप्रदाय', अक्कलकोटकर स्वामीचो विधिनिशेधातींत असो साधनामार्ग, वासुदेवानंद सरस्वती आनी नारायण महाराज केडगावकर हांच्यो वर्णाश्रमोचित कर्माचेर भर दिवपी परंपरा. हे प्रवाह आयज लेगीत दत्त संप्रदायाचे कक्षेंत चालू आसात.

दत्तात्रेय हें समन्वयाचें प्रतीक. ताका लागून दत्त संप्रदायांत शैव आनी वैशणव परंपरांचो मेळ आसा. तसोच, हिंदू - मुसलमानांच्या मेळाचोय यत्न जाला. ह्या यत्नांचो मूळ आरंभ नरसिंह सरस्वतीच्या चरित्रांत जाल्लो दिसता. उपरांत जर्नादनस्वामी आनी एकनाथ हाणींय दत्तोपासनेचे फाटभुंयेचेर हिंदू - मुसलमानांच्या मेळाचो यत्न केला.

'दत्तप्रबोध' आनी 'दत्तमाहात्म्य' ह्या ग्रंथांनी दत्त संप्रदायाचें तत्त्वगिन्यान आयलां. 'गुरुचरित्र' हो ग्रंथ संप्रदायाच्या आचारधर्माची विस्कटावणी करता. तशेंच 'अवधूतगीता', 'जीवन्मुक्तगीता' आनी 'गुरुगीता' ह्या ग्रंथांनी संप्रदायाच्या सिध्दान्ताचें विवरण मेळटा.

दत्त संप्रदायांत ध्यानाखातीर दत्तात्रेयाचें सगुणरूप आपणायल्लें आसलें तरी पुजेखातीर मुर्तीबदला पादुका प्रशस्त मानल्यात.

औदुंबर, वाडी आनी गाणगापूर ह्या तिनूय सुवातींनी दत्तात्रेयाच्यो पादुका आसात.

माहूर, पांचाळेश्वर, औदुंबर, अक्कलकोट, नरसोबाची वाडी, गाणगापूर, लाडकारंजे, कुरगुड्डी, गिरनार हीं दत्तसांप्रदायिकांचीं मुखेल क्षेत्रां आसात.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : त्रिमूर्ती, दत्तात्रेय.

**दत्तात्रेय** : एक देव. तो ऋषी अत्री आनी अनुसूया हांचो पूत. महाभारतांत ताका अत्रिपुत्र म्हणिनासतना 'अत्रिवंशज' अशें म्हळां. सादारणपणान ताका विष्णुचो अवतार मानतात. मार्कंडेय पुराणावयल्यान तो शाक्त तांत्रिक देव आसुंये. त्रिपुरारहस्यांत तो मदिरा आनी मदिराक्षी हांचे सांगाता दिसता. वेद, कर्मकांड आनी चातुर्वर्ण्य हांचें विष्णुन दत्तावतारांत पुनरुज्जीवन केलां अशें ब्रह्मपुराणांत म्हळां. भागवतांत



सांगिल्ले अवधुतांचे चोवीस गुरू फुडें दत्तात्रेयाचे गुरू म्हणून वळखूंक लागले. शांडिल्योपनिषद, जाबालदर्शनोपनिषद आनी दत्तात्रेयोपनिषद हातुंतूय दत्तात्रेयाचें माहात्म्य आयलां. ताच्या जल्माविशीं पुराणांत आयिल्ल्या कथांविशीं एक नांवाजिल्ली कथा अशी -

नारदान केल्ले अनुसूयेच्या सतीत्वाचे तोखणायेन ब्रह्मा - विष्णु - महेश हांच्यो बायलो उमा - रमा - सावित्री हांच्या मनांत अनुसूयेविशीं द्वेश निर्माण जालो. ताणीं आपल्या घोवांक भेस बदलून अनुसूयेकडेन

धाडले. आश्रमांत अत्रि ऋषी नाशिल्लो. अनुसूयेन तांकां जेवन वचपाक सांगलें. पूण सत्वहरण करपाचे इत्सेन आयिल्ल्यान ताणीं अनुसूयेक अट घाली. 'तूं विवस्त्र जावन आमकां वाडशी जाल्यारच आमी जेवतले.' अनुसूयेन ती अट मान्य केली आनी घोवाचें नांव घेवन देवांचेर तीर्थ शिंपडायलें. तेबरोबर तिनूय देवांचीं ल्हान भुरगीं जालीं आनी अनुसूयेन विवस्त्र जावन आवयचे मायेन तांकां लायलें.

उमा, रमा आनी सावित्री आपआपल्या घोवांची वाट पळोवन थकल्यो आनी तांका सोदीत अत्रि ऋषीच्या आश्रमांत पावल्यो, तेन्ना तांकां आपल्या घोवांचीं ल्हान भुरगीं जाल्याचें दिसलें आनी तांकां खूब दुख्ख जालें. तांची ती दशा पळोवन अनुसूयेन देवांक तांचीं पयलीचीं रुपां दिलीं. उपरांत अनुसूयेच्या सत्वसाक्षात्कारान अजापीत जाल्या देवांनी तिचे इत्सेनुसार जल्म घेवन, तिका विष्णूच्या अंशान दत्त, शिवाच्या अंशान दुर्वास आनी ब्रह्मदेवाच्या अंशान सोम (चंद्र) अशे तीन पूत जाले.

**दत्तात्रेयाचे अवतार** - दत्तात्रेयान विंगड विंगड वेळार घेतिल्ले अवतार आनी तिथी अशो - १. योगिराज (कार्तिक शु. १५), २. अत्रिवरद (कार्तिक कृ. १), ३. दत्तात्रेय (कार्तिक कृ. २), ४. कालाग्निशमन (मार्गशीर्ष शु. १४), ५. योगिजनवल्लभ (मार्गशीर्ष शु. १५), ६. लीलाविश्वंभर (पौष शु. १५), ७. सिध्दराज (माघ शु. १५), ८. ज्ञानसागर (फाल्गुन शु. १०), ९. विश्वंभर (चैत्र शु. १५), १०. मायामुक्त (वैशाख शु. १५), ११. मायायुक्त (ज्येष्ठ शु. १३), १२. आदिगुरू (आषाढ शु. १५), १३. शिवरूप (श्रावण शु. ८), १४. देवदेव (भाद्रपद शु. १४), १५. दिगंबर (आश्विन शु. १५), १६. कृष्णश्यामकमलनयन (कार्तिक शु. १२). ह्या सोळा अवतारांच्यो कथा सांगपी संस्कृत ग्रंथ 'श्रीदत्तात्रेयषोडशावतारा:', श्रीवासुदेवानंद सरस्वती हाणें बरयला.

दासोपंत, श्रीपाद श्रीवल्लभ, नरसिंह सरस्वती, अक्कलकोटकर स्वामी आनी माणिक प्रभू ह्या सत्पुरुषांकय दत्तात्रेयाचेच अवतार मानतात.

दत्तात्रेयाच्या स्वरुपाविशीं विंगडविंगड वर्णनां मेळटात. एकमुखी आनी चार भुजांचो, एकमुखी आनी दोन भुजांचो आसून मांडयेर लक्ष्मी, त्रिमुखी आनी स भुजांचो आनी हेर. तीन मुखां आनी स भुजां आशिल्लें सद्याचें स्वरूप मात पुर्विल्ल्या साहित्यांत खंयच मेळना. इ. स. १००० च्या सुमाराक ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश हांच्या अंशात्मक स्वरुपांत दत्तात्रेयाची उपासना जावंक लागली आनी तेंच स्वरूप आजय चलता. ह्या त्रिमुख - षड्भुज दत्तात्रेया फाटल्यान एक गाय आनी कुशींनी चार सुणे आसात. गाय हें धर्तरेचें जाल्यार चार सुणे चार वेदांचीं प्रतिकां मानतात. औदुंबराच्या झाडापोंदा दत्तात्रेय आसता हे समजुतीन तें झाड पवित्र मानतात.

**दत्तात्रेयाचे शिश्य** : सहस्त्रार्जुन कार्तवीर्य, भार्गव परशुराम, यदु, अलर्क, आयु आनी प्रल्हाद हे दत्तात्रेयाचे पौराणिक शिश्य. हे सगले शिश्य क्षत्रिय आसून 'अवधूतोपनिषद' आनी 'जाबालदर्शनोपनिषद' ह्या दोन उपनिषदांनी 'सांकृती' नांवाच्या आनीक एका योगसाधना करपी ब्राह्मण शिश्याचोय उल्लेख आसा.

दत्तात्रेयाविशीं नाथ, महानुभाव, वारकरी आनी समर्थ ह्या चारूय संप्रदायांनी नितान्त आदर आनी श्रध्दाभाव आसा. दत्तात्रेय हो योग आनी तंत्र ह्या क्षेत्रांतलो आचार्य वा योगीराज मानतात. ताच्या उपासकांभितर मुसलमानांकय स्थान आसा. अवधूतगीता, त्रिपुरोपास्तिपध्दति आनी परशुरामकल्पसूत्रम् हे ग्रंथ दत्तप्रणीत मानल्यात.

दत्तात्रेयाचे एकाक्षरी, षडाक्षरी, अष्टाक्षरी, द्वादशाक्षरी, षोडशाक्षरी, अनुष्टुभ मंत्र आसून 'दत्तगायत्री' नांवाचो मंत्र असो आसा -

दत्तात्रेयाय विद्महे । योगीश्वराय धीमहि ।
तन्नो दत्त: प्रचोदयात् ।

ह्या मंत्राचो ऋषी शबर, छंद गायत्री आनी देवता दत्तात्रेय आसा.

दत्तात्रेयाची उपासना दक्षिणेंत चड करून महाराष्ट्रांत व्हड प्रमाणांत आयजूय चलता. नासिक, पंढरपूर, मिरज, पुण्याक एकमुखी षड्भुज दत्ताचीं देवळां आसात. माहूर, पांचाळेश्वर आनी कोल्हापूर हीं दत्तात्रेयाचीं शक्तिपिठां मानतात.

- कों. वि. स. मं.

**दधीचि** : एक वैदिक ऋषी. दध्यंच, दधीच, दध्यंग, दध्यच अशीय हाचीं नांवां मेळटात. हो स्वायंभुव मन्वंतरांत जल्मलो. ताच्या आवय - बापायचें नांव अथर्वण आनी चित्ती वा शांती अशें आशिल्लें अशें भागवत पुराणांत मेळटा. ब्रह्मांड पुराणांत हाचो जल्म वैवस्वत मन्वंतरांत जाल्याचें सांगून ताका च्यवन आनी सुकन्या हांचो पूत अशें म्हळां. दधीचिन शंकराचे कृपेन वज्रास्थित्व, अदीनत्व आनी अवध्यत्व ह्यो गजाली मेळयल्यो. क्षुप आनी दधीचि ह्या दोगांय भितर ब्राह्मण श्रेश्ठ काय क्षत्रिय श्रेश्ठ असो वाद जालो तेन्ना तातूंत दधीचि हारलो. दधीचि हो ब्राह्मणश्रेश्ठत्वाचो पुरस्कर्तो आशिल्लो. कांय काळाउपरांत दधीचिन आपलें मत सिध्द केलें.

अथर्वकुळांतलो म्हणून 'दध्यञ्च आथर्वण' ह्या नांवानूय दधीचिचो उल्लेख मेळटा. ऋग्वेदांत दधीचिचे खूब उल्लेख आयल्यात. दधीचिचो संबंद सोमाकडेन आसुंये अशें बेर्गेनीचें मत आसा जाल्यार मॅक्डॉनल्ड हाच्या मताप्रमाण दधीचि हो मुळांत अग्नीच्या विद्युतरुपाचो प्रतिनिधी आसुंये.

मानवरुपांत दधीचि हो अथर्व्याचो पूत असो उल्लेख णवव्या आनी धाव्या मंडलांत येता. हो द्रश्टो आसून, अग्नी प्रज्वलित करपी (पुरयत) आशिल्लो अशें ऋग्वेदांत म्हळां. दध्यंच हाचो अर्थ मधुमिश्रित सोमरस असो आशिल्ल्याचो कांय अभ्यासक मानतात.

इंद्रान दधीचिक प्रवर्ग्यविद्या आनी मधुविद्या अशो दोन विद्या शिकयल्यो आनी त्यो दुसऱ्या कोणाकूय शिकयल्यार तुजी तकली कापून उडयतलों अशें सांगलें. पूण ही गजाल अश्वींक समजली. मधुविद्या शिकपाक मेळची अशी इत्सा जाल्यान त्या हेतान अश्विनीकुमार दधीचिकडेन आयले. दधीचिन तांकां इंद्राची अट सांगली. अश्वींनीन तातूंतल्यान एक मार्ग काडलो. ताणीं दधीचिक सांगलें, 'आमी तुजें मस्तक तोडून ते सुवातेर घोड्याचें मस्तक लायतात, त्या अश्वमुखान तूं आमकां विद्या शिकय.' दधीचिन तें मान्य केलें. अश्वींनी थरयल्लेप्रमाण करतकच, दधीचिन तांकां मधुविद्या शिकयली. उपरांत ही गजाल इंद्राक समजली. इंद्र थंय आयलो आनी ताणें दधीचिचें अश्वमस्तक तोडून उडयलें. फाटोफाट थंय अश्वी आयले आनी ताणीं दधीचिचें मानवमस्तक परतून ताच्या धडाक जोडलें. ही कथा ऋग्वेदांत आनी तैत्तिरीय ब्राह्मणांत आयल्या.

देवासूर झुजांत वृत्रासुराच्या वधाखातीर दधीचिन आपलीं हाडां इंद्राक दिलीं आनी त्या हाडांचीं शस्त्रां करून इंद्रान वृत्रासुराक मारलो अशी कथा देवी भागवतांत आसा. दधीचिच्या अस्थिदानाची कथा पुराणांनी

आयल्या.

दधीचिचो आश्रम सरस्वतीचे देगेर आशिल्लो, अशें महाभारतांत सांगलां आनी तो गंगेदेगेर आशिल्लो, अशें ब्रह्मपुराणांत म्हळां. दधीचिक अश्वशिर नांवाचें ब्रह्मकवच आनी नारायणकवच आशिल्लें. मत्स्य आनी वायू ह्या पुराणांच्या मतान दधीचि हो भार्गव गोत्रांतलो मंत्रकार आशिल्लो.

– कों. वि. सं. मं.

**दमण आनी दीव :** भारताचो एक केंद्रशासीत प्रदेश. दमण ह्या म्हालाचो आस्पाव गुजरात राज्याच्या दक्षिण देगेर जाता. जाल्यार दीव हो कॅम्बे आखातांत आशिल्लो एक सुपुल्लोसो जुंवो. दमण म्हालाचो विस्तार अक्षांश २०°२१' ५५" ते २०° २८' ३८" उत्तर आनी रेखांश ७२° ४८' १८" ते ७२°५४' १६" उदेंत. क्षेत्रफळ ७२ चौ. किमी. दीव जुंव्याचो विस्तार अक्षांश २०° ४०'५५" ते २०° ४४' ३२" उत्तर आनी रेखांश ७०°५२'१७" ते ७१°००'२९" उदेंत. क्षेत्रफळ ४० चौ. किमी. अशे रितीन दमण आनी दीव केंद्रशासीत प्रदेशाचें पुराय क्षेत्रफळ ११२ चौ किमी. जाता. दमण म्हालाक अस्तंतेकडेन कॅम्बे आखात वेश्टिता. ताचे दक्षिणेक कालें न्हंय व्हांवता, जाल्यार ताचे उत्तरेक भगवान न्हंय आसून उदेंतेक गुजरात राज्य आसा. दीव हो जुंवो दमण म्हालाचे वायव्येक सुमार १९२ किमी. पयस आसा. १९६१त गोंय, दमण आनी दीव हे वेगवेगळे भूंयभाग पुर्तुगेजांच्या शेकांतल्यान मुक्त जावन, त्या तिनूय प्रदेशांक मेळून केंद्रशासीत प्रदेशाचो दर्जो मेळिल्लो. पूण १९८७त गोंयांक घटक राज्याचो दर्जो मेळिल्ल्यान फकत दमण आनी दीव हे केंद्रशासीत प्रदेश म्हणून उरले. दमण ही ह्या केंद्रशासीत प्रदेशाची राजधानी.

**भूंयवर्णन** : भूंयरचणुकेचे नदरेन दमण हो दक्षीण गुजराताचोच एक ल्हानसो भाग. सह्याद्री पर्वत आनी अरबी दर्या हांचेमदलो हो सपाट आनी दोंगरी प्रदेश अस्तंतेक देंवत गेला. सह्याद्री पर्वताचे कांय फांटे हांगा पाविल्ले आसून मदींमदीं कांय ल्हान ल्हान तेमकांय दिश्टी पडटात. हीं ल्हान ल्हान तेमकां सोडल्यार दमण म्हाल हो सपाटसो आसा. दीव जुंवो उदेंत - अस्तंत सुमार ११ किमी. लांब आनी दक्षिण - उत्तर सुमार ३ किमी. रूंद आसा. ह्या जुंव्याचेर कांयकडेन ३१ मी. मेरेन उंचायेच्यो कांय दोंगुल्ल्यो दिश्टी पडटात. जुंव्याच्या दक्षिण कांठार सिकताश्म फातरी सुळके आसून, ताच्या मुळसांतलें उदक चड खोल आसा. दमण म्हालाचे उत्तर शिमेर भगवान न्हंय, दक्षिण शिमेर कालें न्हंय आनी म्हालाच्या मध्य भागांतल्यान दमणगंगा ही न्हंय व्हांवता. दमण म्हालांतली गाळाची रेंवट - ओलीशी जमीन पिकाळ आसा. दीव जुंव्याचेर निकृश्ट माती आसा.

**हवामान** : ह्या केंद्रशासीत प्रदेशाचें हवामान दमट, शितळ आनी सूखदिणें आसता. हांगाचें हवामान मुखेलपणान चार ऋतूंनी विभागिल्लें आसा. गीम (मार्च ते मे), पावसाळो (जून ते सप्टेंबर), पावसा उपरांतचो ऋतू [Post Monsoon(ऑक्टोबर ते नोव्हेंबर)] आनी शिंयाळो (डिसेंबर ते फेब्रुवारी). सादारणपणान जूनाच्या दुसऱ्या सप्तकासावन हांगा पावस पडपाक लागता आनी उपरांत तो सप्टेंबर मेरेन पडत आसता. हांगा पडपी वर्सुकी पावसाचें प्रमाण सरासरी २०६ सेंमी. इतलें आसा. चडसो पावस जुलय म्हयन्यांत पडटा (४५%.) हांगाचें तापमान चडांत चड २६° सॅ. ते ३४° सॅ. इतलें आनी उण्यांत उणें १५°सॅ. ते ७° सॅ. इतलें आसता. सादारणपणान ऋतूंप्रमाण हांगाचें तापमान बदलत रावता. वर्सूयभर हांगा खूब वारें आसून मे म्हयन्याचे निमाणेकडेन नैऋत्येक सावन वादळी वारें व्हांवता.

**वनस्पत आनी मोनजात** : दमण आनी दीव प्रदेशाचे जमनिचो चडसो उपेग तरेकवार पिकां काडचेखातीर करतात. हांगाथंय दिश्टी पडपी ल्हान ल्हान झोंपां सोडल्यार हांगा व्हडलीशी रुखावळ दिसना. दर्यादेगांनी रेंवट प्रदेशांत जावपी वनस्पत हांगाथंय दिश्टी पडटा. हांगा तणाचेय खूब प्रकार आसात. सायल, वेळू, खैर, गुग्मुळ हे रूख हांगा थोडेभोव प्रमाणांत आसात.

दमण आनी दीव ह्या केंद्रशासीत प्रदेशाक व्हड दर्यादेग लाबिल्ल्यान, हांगाच्या दर्यांत आनी न्हंयांनी विंगड विंगड प्रकारचें नुस्तें मेळटा. हांगा, दोंगर आनी रानां नाशिल्ल्यान रानटी मोनजात व्हडलीशी दिश्टी पडना. विखाळे आनी सादे अशा वेगवेगळ्या प्रकारचे सोरोप आसात. हांगा तरेकवार सुकण्यांचे प्रकारूय खूब आसात. स्थलांतरीत सुकण्यांचे प्रकार चड करून शिंयाळ्यांत पळोवपाक मेळटात.

**इतिहास** : दमण आनी दीव ह्या केंद्रशासीत प्रदेशांतल्या दमण म्हालाचो आस्पाव गुजरात राज्यांतल्या सुरत जिल्ल्याचे दक्षिणेक जाता. इ. स. प. दुसऱ्या शेंकड्यासावन ते इ. स. च्या तेराव्या शेंकड्यामेरेन हो 'लता' ह्या नांवान प्रसिद्ध आशिल्ल्या देशाचो भाग आशिल्लो. लता हो अपरान्त वा कोंकण विशय हाचो सातवो विभाग. सौराष्ट्रांतल्या गिरनार भागांत सांपडिल्ल्या सम्राट  अशोक हाच्या आज्ञापत्रकावयल्यान इ. स. प. च्या तिसऱ्या आनी दुसऱ्या शेंकड्यांनी हांगा मौर्य घराण्याचो शेक चलतालो असो समज आसा. इ. स. प. च्या पयल्या शेंकड्यांत शाका घराण्याचो आनी क्रिस्ता उपरांतच्या पयल्या चार शेंकड्यांनी गुजरातावांगडा दमण प्रदेशाचेरूय क्षत्रपांचो शेक चलतालो. क्षत्रपांचे राजवटीक देंवती कळा लागले उपरांत तांचेच सेनापती अभिरास हांणी दमणाचेर सत्ता गाजयली.

दमण आनी भोंवतणच्या कांय वाठारांनी सांपडिल्लीं नाणीं आनी फातरीपटच्यांवयल्यान पांचव्या शेंकड्याच्या सुमाराक हांगा त्रिकुत्रांचो शेक चलतालो अशें कळटा. मुखार हो प्रदेश महीशमती हांगाच्या कलाचुरी घराण्याच्या शेकातळा गेलो. ६०९ ते ७४७ मेरेन बदामीचे चालुक्य हाणीं दमणाचेर राज्य केलें, जाल्यार ७५७ ते ९७३ मेरेन राष्ट्रकूटांनी ह्या म्हालाचेर शेक गाजयलो. कल्याणीचो चालुक्य तयलपा दुसरो हाणें ९७३त राष्ट्रकूटांचेर हार घालून दमणाचेर आपलो शेक बसयलो. उपरांत लता देशाची देखरेख करचेखातीर ताच्याच नात्यांतलो बाराप्पा (द्वाराप्पा) चालुक्य हाची नेमणूक केली. बाराप्पा हो लता देशाचो राजा आशिल्लो अशें हेमचंद्र हाणें म्हळां. निम्बार्क चालुक्य हाच्या तेंपार लता देशाचो खूब विस्तार जाल्लो. नंदीपूर ही ताची राजधानी आशिल्ली. १०४२त गोंयचो कदंब राजा शाशथादेव दुसरो हाणें दमणा लागशिल्लो लता देशाचो कांय भाग हाताशिल्लो. पूण वत्सराजा हाणें तो परत मेळयलो.

गुजरातचे चालुक्य आपल्या मोकासदारांवरवीं लता देशाचेर सत्ता चलयताले. पूण चालुक्यांचो शेक उणो जालेउपरांत देवगीरीच्या यादवांनी लता देशाची सत्ता मेळयली. लता मंडलाच्या दक्षिणेकडच्या भागांत दमण प्रदेशाचो आस्पाव जातालो. लता देशाची सत्ता काबीज केलेउपरांत दमण प्रदेशूय यादवांनी आपल्या साम्राज्याक जोडलो. तेराव्या शेंकड्याच्या

मध्याक मुसलमान सुलतानान राजस्थानाचेर ताबो मेळयले उपरांत रामसिंग हो उदयपूरचो राजपूत दक्षिणेक आयलो. ताणें १२६२त दमणा लागशिल्ल्या अशेरी ह्या दोंगरी वाठारांत आपली सत्ता स्थापीत केली. हो वाठार उपरांत रामनगर ह्या नांवान प्रसिद्द जालो. रामसिंगाचो चलो सोमशाह (१२९५-१३३५), उपरांत पुरंदरशाह (१३३५-१३६०), धरमशाह (१२६०-१३९१), आनी गोपूशाह (१३९१-१४३२) हांचे राजवटीखाला रामनगराची खूब भरभराट जाली. ह्या तेंपार दिल्ली, गुजरात आनी दक्खनाचे सुलतान आपल्या राज्याचो विस्तार दक्षिणेवटयां करपांत घुस्पल्ल्यान, दमण म्हालाचेर तशेंच सुरत ते माहीम मेरेनच्या प्रदेशाचेर रामनगरच्या राजांचो शेक आसलो. १४६५त मुहंमद शाह बगेदा हाणें पर्नेरा आनी दमण किल्ले हातासून तांची देखरेख करचेखातीर जगतशाह हाका आपलो मांडलीक नेमलो. जगतशाह उपरांत नारनशाह आनी निमाणेकडेन धरमशाह दुसरो हाणें १५३१ मेरेन हांगा सत्ता गाजयली. ह्या साठ वर्सांच्या काळांत रामनगर हें लहानशें राज्य तिनूय दिशांनी मुसलमान राजांनी रेवडायल्लें. पूण तांणी रामनगरच्या राजांक त्रास दिलोना.

पुर्तुगेजांनी १५१०त गोंय हातासलें. उपरांत आपलो वेपार वाडोवपाखातीर ते अस्तंत दर्यादेगांनी आशिल्ले म्हत्वाचे प्रदेश घेत रावले. १५५३त ताणीं बळजबरेन दमण प्रदेश हाताशिल्लो. पूण रामनगरचो राजा जयदेव हाणें पुर्तुगेजांकडेन कबलात करून, दमण बंदराचे सगले हक्क परत मेळयले. उपरांत १५६१त गोंयचो गव्हर्नर कोंस्तान्तिनु द ब्रागांस हाणें दमण प्रदेशाचेर व्हड सैन्य धाडून दमण म्हाल परतून पुर्तुगेजांच्या शेकातळा हाडलो. मुखार १९६१ मेरेन हांगा तांचीच सत्ता आशिल्ली.

**दीव** : कॅम्बे आखाताच्या मुखार आशिल्ल्या गुजरात राज्याच्या सौराष्ट्र जिल्ल्याचे दक्षिणेक दीव जुंव्याचो आस्पाव जाता. पुर्विल्ल्या काळांत सौराष्ट्र प्रदेशाची दर्यादेग दीव जुंवो, जुनागड जिल्ह्याचो चोर्वाद आनी अमरेली जिल्ह्याच्या जाफेराबाद प्रदेशांक मेळून नाघेर अशें म्हण्टाले. पुर्विल्ल्या काळासावन हांगा दाट लोकवस्ती आशिल्ली आनी शेतवड हो तांचो मुखेल वेवसाय आशिल्लो. तांबड्या दर्यांत आशिल्ल्या देशांकडेन, पर्शियी आखात आनी कांय आफ्रिकी देशांकडेन तांचे वेपारी संबंद आशिल्ले.

महाभारत ग्रंथाप्रमाण, कुकूदमिनाच्या काळांत श्रीकृष्णाच्या फुडारपणाखाला यादव लोक मथुरेसावन सौराष्ट्रांत आयले. हांगा आयलेउपरांत ताणीं आपली कुशासथली ही पोरणी राजधानी परतून उबारून तिका 'द्वारका' हें नवें नांव दिलें.

भारतांत फकत दीव जुंव्याचेर जालंदर दैत्याचें देवूळ आसा. हांगा चलत आयिल्ले परंपरेवरवीं 'सत्ययुगांत' दीव प्रदेश 'जालंदर क्षेत्र' म्हणून प्रसिद्ध आशिल्लो अशें सांगतात. कांय थळाव्या लोकांच्या मतान देवभद्र हें दीव प्रदेशाचें पुराणीक नांव आशिल्लें.

इ. स. प. चवथ्या आनी तिसऱ्या शेंकड्यांत ह्या प्रदेशाचेर मौर्यांचो शेक चलतालो. युकरेटिडेस् (इ. स. प. १७१-१५०), मनेंदर (इ. स. प. ११५-९०) आनी ॲपोलोटस् दुसरो (इ. स. प. पयलो शेंकडो) ह्या इंडो-ग्रीक राजांचीं हांगा नाणीं सांपडिल्ल्यान इ. स. प. हांगा इंडो - ग्रीक राजाचो शेक चलतालो हें सिद्ध जाता. इंडो - ग्रीक राजांउपरांत हो प्रदेश गुप्तांचे राजवटीखाला आयलो. गुप्त राजवट दुबळी पडली तेन्ना तांचोच सेनापती भट्टार्क मैत्रक हाणें सौराष्ट्रांत स्वतंत्र राज्याची थापणूक केली. दीव प्रदेशावांगडा सबंद सौराष्ट्र प्रदेशाचेर ताचो शेक ७८८ मेरेन उरलो. मैत्रकांउपरांत ह्या प्रदेशाचेर चावडा आनी चालुक्य घराण्यांनी आपलो शेक चलयलो. मुखार १२२५त मेवारसावन द्वारकेक तीर्थयात्रा करपाच्या निमतान राजपुतांची राथोड ही टोळी सौराष्ट्रांत रिगली. त्या वेळार हांगा आशिल्ल्या चावडांक हारोवन राथोड लोकांनी ह्या प्रदेशाचेर आपलो शेक बसयलो. मुखार १२९७त निमणो राजपूत करणदेव हाका हारोवन अल्लाउद्दीन खिलजी हाणें सौराष्ट्राचेर आपलो शेक बसयलो. अशेतरेन१२९७ सावन सौराष्ट्र आनी दीव जुंव्याचेर मुसलमानी राजवट सुरू जाली. मुखार १२९७ सावन ते १४०६ मेरेन हांगा दिल्लीच्या सुलतानांची राजवट आशिल्ली. १४०६त मुजाफर खान हाणें दीव जुंव्याचेर घुरी घालून हो जुंवो आपल्या ताब्यांत घेतलो. उपरांत हांगा १५३१ मेरेन गुजरात सुलतानांचीच सत्ता आशिल्ली.

पुर्तुगीज गवर्नर आल्बुकेर्क, हो १५१३त ॲडना सावन गोंयांत येतना, दीव जुंव्याचें राजकीय आनी लश्करी म्हत्व जाणून तो जुंवो घेवपाचो बेत ताणें आंखिल्लो. पूण त्या वेळार ताचेकडेन सैन्यबळ साप्प उणें आशिल्ल्यान ताका आपलो बेत रद्द करचो पडलो. १५१८त दियोगु लोपीश हाका दीव जुंवो घेवपाखातीर राजकीय हुकूम आशिल्लो म्हणून दियोगान एका फाटल्यान एक घुरयो घालून हो जुंवो घेवपाचे खूब यत्न केले. पूण ताका येस मेळ्ळेंना. १५२६ सावन गुजरात प्रदेशाचेर आनी दीव जुंव्याचेर बहादूर शाह हाचो शेक आशिल्लो. १५३५त मोगल सम्राट हुमायून हाणें गुजरात प्रदेशाचेर घुरी घाली, तेन्ना सुर्वेक बहादूर शहान आनी उपरांत हुमायून हाणेंय पुर्तुगेजांचो आदार मागलो. ताच्या बदलाक दोनूय सम्राटांनी पुर्तुगेजांक दीव जुंवो दिवपाचें मान्य केल्लें. त्या वेळार दीव प्रदेशाचेर बहादूर शहाचो ताबो आशिल्ल्यान, पुर्तुगेजांनी बहादूर शहाक आदार दिलो. ५ ऑक्टोबर १५३५ दिसा बहादूर शहा आनी पुर्तुगेजांभितर कबलात जावन, पुर्तुगेजांक दीव जुंव्याचेर वखार उबारपाक परवानगी मेळ्ळी. पुर्तुगेजांनी शहाक हुमायूनाआड झगडपाखातीर २५० सैनीक आनी ५० घोड्यांची पुरवण केल्ली. बहादूर शहा उपरांत ताचो मेवणो गुजराताचो नवो सुलतान जालो. मुखार डिसेंबर १५३७त गुजराताचो सुलतान आनी इजिप्ताचो सुलतान एकठांय येवन तांणी दीव जुंव्यावयलो पुर्तुगेजांचो किल्लो घेतलो. १५४६त पुर्तुगेज आनी गुजरात शहा हांचेमदीं वाद निर्माण जालो. पुर्तुगेज सैन्य आनी शहा हांचेमदीं झूज जावन, पुर्तुगेजांनी दीव जुंव्याचेर पुरायपणान ताबो मेळयलो. उपरांत दीवाचो कारभार पुर्तुगेजांची वसणूक आशिल्ल्या गोंयासावन चलपाक लागलो. अशे रितीन १९६१ मेरेन दमण आनी दीव प्रदेश ताच्या शेकतळा उरले. १९६१त गोंय, दमण आनी दीव पुर्तुगेजांच्या शेकातळा सावन मुक्त जाले. उपरांत तांचो केंद्रशासीत प्रदेश म्हणून भारतांत आस्पाव जालो. पूण ३० मे, १९८७त गोंयांक घटक राज्याचो पांवडो मेळ्ळे उपरांत दमण आनी दीव मेळून (दादरा नगर हवेली सयत) भारताचो वेगळो केंद्रशासीत प्रदेश जालो.

**राज्यवेवस्था** : दमण आनी दीव हे भारतीय संघराज्याचे केंद्रशासीत घटक प्रदेश आसात. भारताचे ५७ वे संविधान दुरुस्तेप्रमाण दमण आनी दीव प्रदेश गोंय राज्यासावन वेगळे जावन, तांकां स्वतंत्र केंद्रशासीत घटक प्रदेशाचो दर्जो मेळ्ळा. दमण आनी दीव हांचे उपविभाग नात. जिल्ल्याधिकारी हो दमण प्रदेशाचो प्रशासक जाल्यार सिवील ॲडमिनीस्ट्रेटर हो दीव प्रदेशाचो प्रशासक आसा.

**अर्थीक स्थिती** : शेतवड आनी नुस्तेमारी हो हांगाचो मुखेल वेवसाय. दमणाक सुमार ६२% जाल्यार दीव जुंव्याचेर ५०% लोक शेतकी वेवसायांत घुस्पल्यात. पूण पिकां काडपाची पद्दत अजून मागाशिल्लीच आसा. शेतकी जमीन ल्हान ल्हान वांट्यांनी विभागिल्ल्यान, हांगा शेतवडीच्या मळार यंत्रांचो व्हडलोसो उपेग जायना. हांगाची चडशी जमीन सपाट आनी पिकाळ आशिल्ल्यान, शेतकी उत्पादन बरें मेळटा. हांगाच्या वेगवेगळ्या वाठारांनी वेगवेगळीं पिकां काडटात. हांगा शिंपणावळ प्रकल्पाची वेवस्था नाशिल्ल्यान, पिकां घेवंपाखातीर पुरायपणान पावसाचेर आदारून रावचें पडटा. चड पावस पडपी वाठारांनी तांदूळ आनी भाजीपालो बरो जाता. तांदूळ, गंव, ज्वारी, बाजरी, कड्डण, कांदे, बटाट, टमाट, मिरसांग आनी हेर फळफळावळ हांगा पिकता.

दमण आनी दीव ह्या प्रदेशांक व्हड दर्यादेग लाबिल्ल्यान हांगा उदकांतली पिकावळ व्हड प्रमाणांत मेळटा. नुस्तेमारी धंद्याक हांगा खूब म्हत्व आसा. नुस्तेमारींत बऱ्याच प्रमाणांत यांत्रिकीकरणाचो वापर जाता. हांगा बांगडे, विस्वण, शार्क, ईल, लॉबस्टर, सुंगटां, कालवां, हॅडॉक ह्या सारकिलें नुस्तें खूब प्रमाणांत मेळटा. नुस्त्याची निर्यात करप जाता. पशूधनांत गोरवां, मेंढरां आनी कुकडांचो आस्पाव जाता. प्लायवूड, फस्कां, ब्लेडी, सिलिका जॅल आनी हेर वस्तू तयार करपाचे ल्हान ल्हान कारखाने आसात. पर्यटन हो हांगाचो नेटान वाडपी उद्येग. जंपोरे आनी देवक हीं दमणांतलीं म्हत्वाचीं पर्यटन थळां जाल्यार पानिकोट हें दीव जुंव्यावयलें मुखेल पर्यटन थळ.

**लोक आनी समाजजीण** : १९९१ चे जनगणनेप्रमाण दमण आनी दीव ह्या केंद्रशासीत प्रदेशांची लोकसंख्या १,०१,४३९ इतली आशिल्ली. दर चौ. किमी.क ९०६ लोक अशें प्रमाण आसा, जाल्यार दर १,००० दादल्यां फाटल्यान ९७२ बायलांचो आस्पाव जाता. लोकसंख्या वाडीचें प्रमाण २८.४३ (१९८१ - ९१). साक्षरतायेचें प्रमाण ७३.५८% इतलें आसा. ह्या केंद्रशासीत प्रदेशांतली मुखेल संपर्काच्यो आनी उलोवपाच्यो भासो गुजराती आनी मराठी. हांगा हिन्दू लोकांचें प्रमाण चड आसा. मुसलमान, क्रिस्तांव, शीख, जैन आनी हेर धर्मांचेय लोक हांगा आसात. धोबीया, हालपाती, नायकाडा, सिदी आनी वारली ह्यो आदिवासी जमाती हांगा आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**दमो** : फुफुसांची एक पिडा. हातूंत बारीक स्वासनळयांचें अकस्मात आकुंचन जाता आनी सुस्कार घेवपाक त्रास पडटात. तशेंच, सुस्कारावांगडा पिल्लूक मारिल्लेवरी आवाज येता आनी रगतांतलें प्राणवायूचें प्रमाण उणें जाता.

**कारणां** : कांय प्रमाणांत दमो हो वशाचो रोग आसा. वाडवडिलांक दमो आसल्यार फुडले पिळगेक तो जावपाची चड शक्यताय आसता. पूण कसल्या तरी वस्तूचे ॲलर्जींतल्यानय दमो जाता. जेवणाखाणाच्या जिनसांची, वखदांची, धुल्लाची, फुलांतल्या परागाची वा हवेंत आशिल्ल्या कसलेय तरेच्या कणांची, वासांची आसूं येता. हे ॲलर्जीक लागून पिडेस्ताच्या शरिरांत हिस्तामीन (Histamine) आनी ॲसेटिलकोलिन, (acetylcholin) एक्दम वाडटा आनी अकस्मात स्वासनळयांच्या स्नायुंचें आकुंचन जाता. तशेंच, श्लेष्म पटलाक (mucous membrane) सूज येता आनी श्वासनळयांच्या ग्रंथींचो स्त्राव भायर वचपाक आडखळ जाल्ल्यान वारें फुफुसांत भायर भितर खेळपाक त्रास जाता.

दम्याची उबस मानसीक कारणान, तेचपरी धुंवर वा स्वासयंत्रणेच्या, सादे थंडेसारके, पिडेन लेगीत येवंक शकता. दमो जाल्ल्या मनशाक, चड करून दादल्याक, ॲक्झेमा सारको कातीचो रोग वा आंगार पिताम येवंक शकता.

**लक्षणां** : दमो वर्साच्या खंयच्याय म्हयन्यांत जावंक शकता. पूण चड करून झाडार फुलां फुलतात तशेंच हवेंत थंडाय आसता त्या म्हयन्यांनी दम्याचो त्रास जाल्ल्या मनशांची संख्या वाडिल्ली दिसता. दमो हो ल्हान भुरगीं ते जाण्टे पिरायेच्या मनशाकूय जावंक शकता. पूण चड करून तो भुरगेपणांतच जाता.

संवसारांतल्या सगळ्या जाती जमातींतल्या लोकांक दमो जाता. तशेंच दर्याचे पातळेचेर ते ऊंच दोंगरामाथ्यार रावपी लोकांकय जाता. पूण रावपाची सुवात बदलली जाल्यार, त्या जाग्यार आशिल्ले ॲलर्जी जावपाचे वस्तूचो संबंद तुट्टा आनी रोग्याक दम्याचे उबशीपसून मुक्तताय मेळूंक शकता.

चड उंचायेचेर हवा विरळ आसता. ताका लागून थंय ॲलर्जी जावपी वस्तूचें प्रमाणय उणें आसता देखून ६,००० फूट उंचायेवयल्या ठिकाणार दम्याचे उबशीचें प्रमाण उणें आसता. दम्याची उबस केन्ना येतली हाचो नेम नासता. पूण चड करून रातचें न्हिदले उपरांत वा फांतोडेचेर ती येवंक सुरवात जाता. तेन्ना रोग्याक हड्ड्यांत घुस्मटिल्ले भाशेन जाता. तशेंच, हड्ड्यांत फुगासांव जाता आनी हुस्कार भितर घेवपाक आनी भायर सोडपाक खूब त्रास पडटात. हुस्कारावांगडा एके तरेचो पिल्लुको मारिल्लेवरी आवाज येता आनी खांकून खांकून इल्लेंशें धरकल भायर येतकच रोग्याच्या जिवाक बरें दिसता.

दमेकारी उबस येतकच तायट उबो बसता. आपल्या दोनूय हातांचे कोंपर आसात त्या जाग्यार घट्ट लावन हुस्कार घेवपाच्या सहाय्यक स्नायुंचो उपयोग करून सोंपेपणान उस्वास घेवंक सोदता. अशा वेळार ताचें तोंड धवें पडटा, ताच्या जिवाक खूब त्रास पडटात, ताका धांप लागता, दोळे भायर आयिल्लेवरी दिसतात. तशेंच, ताच्या कपलार आनी गळ्यार घाम दिसता. अशा वेळार ताचे ओंठय काळेनिळे पडूंक शकतात.

दमेकाराक आयिल्ली उबस कांय वेळच आसूंक शकता. तशेंच वरांचीं वरां वा दिसाचे दिसूय ती उरूंक शकता. उबशी वेळार पिडेस्ताच्या स्नायुंचेर पडिल्ल्या ताणान ताका पुरो जाता. जाण्ट्या मनशापरस ल्हान भुरगीं दम्याचे उबशीपसून बरीं तग मारतात. चड करून ल्हान भुरग्याचो दमो तरणेपणांत वता.

**जतनाय आनी उपाय** : दमो जावंचो न्हय जाल्यार जी ॲलर्जीची वस्तू ताका कारणीभूत आसता ती वस्तू सोडून काडूंक जाय. पूण चड करून ही वस्त खंयची हें सोदून काडपाक खूब त्रास पडटात. देखून दम्याची उबस केन्ना येता, ती कितलो वेळ उरता, खंयच्या जाग्यार वा वस्तूकडेन पावतकच येता हाची बारीक खबर काडची पडटा. तशेंच, डॉक्टराकडल्यान तपासून घेवप, गरज पडल्यार क्ष-किरण काडप, रगताची तपासणी करप अशी जतनाय घेवंची लागता. तेभायर केन्नाकेन्नाय कातीचेर ॲलर्जीसंबंदी टॅस्ट करून घेवंची पडटा.

दम्याची उबस कारणीभूत आशिल्ले ॲलर्जीचे वस्तूचो सोद लागल्यार पिडेस्ताक ते वस्तूपसून ॲलर्जीमुक्त करपाक इंजेक्शनां दिवंक मेळटात.

पूण मानसीक कारणां वा आनीक कसल्योय पिडा आसल्यार तांचेर उपाय करचो पडटा.

कांय जाणांचे बाबतींत एके वस्तूची ॲलर्जी नासता. ती तरेकवार वस्तूंची आसता आनी तांकां लागून पिडेस्ताक ॲलर्जीमुक्त करप हें खुबूच कठीण आसता. केन्ना केन्नाय खंयचे वस्तूपसून ॲलर्जी जाल्या हें लेगीत कळपाक मार्ग नासता.

दम्याक जी वस्तू कारणीभूत आसता तिचेपसून पिडेस्ताक पयस दवरल्यार ती उबस चुकोवं येता. उबस आयलीच जाल्यार वखदां तशेंच सुस्कार घेवपाक मदत करपी मशिनांचो आदार घेवंचो पडटा.

स्वासनळयांच्या स्नायुंचें आकुंचन उणें करून सुस्कार भायर भितर घेवपाक सोपें जावंचें देखून आतां थेवोफिलीन (Theophilin) ॲड्रेनालीन (adrenalin) आनी अमायनोफिलीन हीं वखदां दितात. कांय वेळार कॉरटीकोस्टॅरॉयड हाचो उपेग करचो पडटा.

हात पंपाच्या आदारान वखदांचो फवारो तोंडांत मारपाची तजवीज आसा. ह्या फवाऱ्यावरवीं दम्याचे त्रास उणे जातात.

दम्याची उबस खर जाल्यार वखदांभायर, हॉस्पिटलांत इण्टॅन्सीव कॅर युनीट (खर जतनाय विभाग) हातूंत यंत्रयुक्त हुस्कार करपाच्या उपकरणाचो गरजेप्रमाण वापर करप जाता.

– डॉ. पुर्णानंद अवदी

**दयानंद सरस्वती** : (जल्म : १८२४, टंकारा गुजरात; मरण : ३० ऑक्टोबर १८८३, अजमेर).

एकुणिसाव्या शेकड्यांतलो मुखेल धर्मसुदारक, वैदीक धर्माचो पुरस्कर्तो आनी आर्य समाजाचो संस्थापक.

ताचें मूळ नांव मूळशंकर. ताणें बरयल्ले आपजिणेचे टिपणेवयल्यान



ताचो जल्म काठेवाडींतल्या एका गिरेस्त ब्राह्मण घराण्यांत जालो, अशें समजता. पूण ताच्या आवय-बापायविशीं मात तातूत कांयच उल्लेख मेळनात. चरित्रकार देवेंद्रनाथ मुखोपाध्याय हाच्या मतान दयानंद सरस्वतीच्या बापायचें नांव करशंजी लालजी तिवारी आनी आवयचें नांव अमृता बेन अशें आशिल्लें. ताचो बापूय भाटकार आशिल्लो. तशेंच तो लोकांक रिणां दिवन कळंतर घेतालो. ज्या घराण्यांत दयानंद सरस्वतीन जल्म घेतलो तें घराणें कर्मठ आशिल्लें आनी ताचो बापूय शिवाचो भक्त आशिल्लो.

पिरायेच्या पांचव्या वर्साच दयानंद सरस्वतीन संस्कृत ग्रंथांचो अभ्यास करपाक सुरवात केली. आठव्या वर्सा मूज जातकच ताणें वेदांचो अभ्यास सुरू केलो. पिरायेच्या चवदाव्या वर्सा ताणें वेदांचेर आनी खास करून यजुर्वेदाचेर प्रभुत्व मेळयलें.

एक फावट शंकराचे पिंडीचेर एक हुंदीर भोंवतना ताणें पळयलो आनी ताचो मुर्तीपुजेवयलो विस्वास उडलो. ताच्या विचारांत बदल जालो. सत्याच्या सोदाखातीर १८४५त ताणें घर सोडलें. ताणें पुराय देशाची भोंवडी केली आनी जायत्या शास्त्रांचें गिन्यान मेळयलें. पुर्णानंद नांवाच्या स्वामीपसून ताणें संन्यास धर्माची दिक्षा घेतली आनी 'दयानंद सरस्वती' हें नांव धारण केलें.

१८६०त मथुरेंत बिरजानंद स्वामीचें शिश्यत्व ताणें आपणायलें. ताचेकडेन तो तीन वर्सां आशिल्लो. ताणें हिंदू धर्मग्रंथांचो, मुखेल करून वेदांचो, खोलायेन अभ्यास केल्लो. वैदिक ग्रंथांतूच सगळ्या गिन्यानाचो उगम आसा हाचेर ताचो विस्वास बसलो. तो मुर्तीपुजा आनी हिंदू धर्मांतल्या कर्मकांडा आड आशिल्लो. वैदिक हिंदू धर्माचें पुनरुज्जीवन करचें अशें ताणें थारायलें. बुध्दा पयलींचो हिंदू धर्म होच खरो धर्म अशें ताचें मत आशिल्लें.

दयानंद सरस्वतीन जातीभेदाक, कर्मठपणाक, धर्मांतराक विरोध केलो. जे कोण क्रिस्तांव वा मुसलमान धर्मांनी गेल्ले, तांच्या शुध्दीकरणाचो वावर ताणें सुरू केलो. ब्रिटीश लोक भारतीयांक अपमानकारक वागणूक दितात तें पळोवन ताका राग येतालो. राष्ट्रीय जागृतायेक आनी व्यक्तीचे उदरगतीक बऱ्या धर्माचें शिकप गरजेचें हें वळखून ताणें शिक्षण प्रचाराच्या वावराक सुरवात केली. राष्ट्रीय एकचार वाडीक लागचो म्हणून ताणें हिंदी भाशेचो पुरस्कार केलो. वैदिक हिंदू धर्म मानचो, वेदांचो अभ्यास करचो, मुर्तीपुजा करची न्हय, जातीभेद मानचो न्हय अशी शिकवण ताणें दिली.

आपल्या विचारांक मूर्तरूप दिवपाखातीर ताणें १० एप्रिल १८७५ ह्या दिसा 'आर्य समाज' ह्या पंथाची स्थापणूक केली. ह्या समाजांतल्या लोकांनी वायट परंपरेक विरोध करून शिक्षणाचो प्रसार करचो हो हेत आसलो. आपल्या वैदिक धर्मविचारांचो प्रचार करपाखातीर ताणें उत्तर प्रदेश, राजस्थान, पंजाब, बिहार, मध्य प्रदेश आदी वाठारांनी भोंवडी केली आनी हिंदी भाशेंत व्याखानां दिवन धर्मजागृताय केली. आर्य समाजाचे वतीन ताणें वैदिक शाळा सुरू केल्यो, फिरोझपूराक अनाथाश्रम सुरू केलो. वेगवेगळेकडेन आर्य समाजाचे फांटे निर्माण केले. आर्य समाजाचो प्रचार परदेशांतूय जावंचो, भारतांतल्या अनाथ आनी गरीब लोकांक शिक्षण आनी आदार मेळचो ह्या हेतान ताणें उदेपूराक 'परोपकारिणी सभा' नांवाची आनीक एक संघटना सुरू केली.

आर्य समाजाच्या प्रचाराखातीर ताणें कांय ग्रंथ बरयले. ताचो सगळ्यांत म्हत्वाचो ग्रंथ म्हळ्यार 'सत्यार्थप्रकाश'. हातूंत ताणें वेदांतलें मोलादीक गिन्यान हिंदी भाशेंतल्यान मांडलें. तेभायर ताणें 'संस्कारविधि', 'पंचमहायज्ञविधि', 'गोकरुणानिधि' आदी ग्रंथ बरयले. ह्या ग्रंथांनी ताणें शुध्द वैदिक धर्माचें स्वरूप, रुढींचो आनी कुडड्या विस्वासांचो निशेध, बायलांक आनी शुद्रांक शिक्षणाचो लाव आदी म्हत्वाच्या विशयांचेर भर दिलो.

१८८३ वर्सा तो जोधपूराक गेलो. थंयच्या संस्थानिकांचो ताचेर विस्वास बसलो. पूण संस्थानिकांच्या लागशिल्ल्यांक दयानंद सरस्वतीची शिकवण मानवली ना. तांणीच ताचेर विखाचो प्रयोग केलो अशें म्हण्टात.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत भारतीयांची अस्मिताय जागोवपाखातीर ज्या व्हड मनशांनी यत्न केले, तातूंत दयानंदाचो आस्पाव जाता. समाज सुदारणे वांगडाच ताणें लोकांमदीं राष्ट्रीय भावना जागोवपाचो मोलाचो वावर केलो.

– दिलीप बोरकार

**दयाराम :** (जल्म : १७६७, चांदोद; मरण : ९ फेब्रुवारी १८५२).

एक गुजराती संत कवी. गुजराती भक्ती काव्य परंपरेंतलो निमाणो कवी म्हणून ताची नामना आसा. ताच्या बापायचें नांव प्रभुराम आनी आवयचें राजकुंवर. ल्हानपणांतच ताचें गंगा नांवाचे चलयेकडेन लग्न थरिल्लें. पूण लग्न जावंचे पयलींच तिका मरण आयलें. त्याच सुमाराक ताच्या आवय-बापायकूय मरण आयिल्ल्यान ताणें आपलें भुरगेपण चांदोदाकच सारलें. भुरगेपणांत तो खुबूच मस्तो आशिल्लो. फुडें केशवानंद नांवाच्या संन्याश्याचो ताका आलाशिरो मेळ्ळो आनी ताचे वागणुकेंत बदल जालो.

सुर्वेक ताणें केशवानंदा कडल्यान आनी उपरांत डाकोरच्या इच्छाराम भट नांवाच्या पंडिताकडल्यान वैशणव मताची दिक्षा घेतली. ताचें मूळ नांव दयाशंकर अशें आशिल्लें, पूण वैशणव मताची दिक्षा घेतले उपरांत ताणें दयाराम हें नांव घेतलें. फुडें पिरायेच्या चाळीस वर्सांमेरेन ताणें भारतांत जायत्यो भोंवड्यो केल्यो. हे भोंवडेंत ताका वल्लभलाल नांवाचो एक संत मेळ्ळो. ताणें ताका पुष्टीमार्गाची दिक्षा दिली. मारवाडी, ब्रज, मराठी, पंजाबी, बिहारी, सिंधी, उर्दू, संस्कृत आदी भाशांचें ज्ञान ताका आशिल्लें आनी तातूंत ताणें काव्यरचनाय केल्ली आसा.

चांदोदच्यान तो डभोईक वचून रावलो. तो दिसपाक सुंदर आशिल्लो आनी ताचें व्यक्तिमत्व प्रभावी आशिल्लें. ताका आवाजाची आनी प्रतिभेची देणगी मुळांतच लाबिल्ली. तो रसीक आशिल्लो आनी विलासी वृत्तीन रावतालो. ताचे जिणेंत रतनबाई नांवाची बालविधवा आयिल्ली. तिचेकडेन आशिल्ले ताचे संबंद निमाणेमेरेन तिगून आशिल्ले. तो सगळ्याच बाबतींनी मुक्त जिवीत जगलो. एक कृष्ण सोडल्यार ताणें कोणामुखारच तकली बागयली ना.

ताणें वेगवेगळ्या भारतीय भाशांनी भरपूर ग्रंथनिर्मिती केल्या. ताच्या ल्हान-व्हड काव्यग्रंथांची संख्या सुमार ७५ आसा. ताणें पुष्टीमार्गाचे सिध्दांत स्पश्ट करपी वल्लभनो परिवार, चौरासी वैष्णवनु, ढोळ, भक्तिपोषण, रसिकवल्लभ, सतसैया आदी ग्रंथ बरयले. तशेंच अजामिलाख्यान, वक्त्रासुराख्यान, सत्यभामाख्यान, ओखाहरण, दशमलीला, रासपंचाध्यायी हे पुराणीक ग्रंथ ताणें बरयले. तेभायर ताणें नरसिंह मेहतानी हुंडी, षडऋतुवर्णन, नीतिभक्तिनां पदो, गरबीसंग्रह हेय ग्रंथ बरयल्यात.

राधा-कृष्णाच्या मोगाचेर ताणें शेंकड्यांनी गितां रचल्यांत. तांकां गरबी गितां अशें म्हण्टात. ताच्या ह्या गरबी लिखाणावयल्यानच ताका गरबीसम्राट अशेंय म्हण्टाले. तेभायर ताणें कृष्णभक्तीचेर हजारांनी पदां रचल्यांत. तातूंत बोधपर गितां, कृष्णकीर्तनपर तिथो, बारमासी, प्रार्थना आदी स्फूटकाव्यांचो आस्पाव आसा. गुजरातचे संस्कृतीक जिणेंत ताच्या गरबींक सुमाराभायलें स्थान प्राप्त जालां.

कन्हैयालाल मुन्शी हाणें दयारामाक भक्तकवी म्हणिनासतना ताका 'प्रेमकवी' म्हळा. दयारामाचे रचणुकेंतल्यान ताचें भक्तापरस कवी आनी प्रेमी म्हणुनूच चड स्पश्टपणान दर्शन घडटा.

– कों. वि. सं. मं.

**दरद :** एक जमात. काश्मीर राज्याच्या वायव्य वाठारांत ह्या लोकांची वस्ती आसा. देखून ह्या वाठाराक दरदिस्तान अशें म्हण्टात. पुराणांत आनी राजतरंगिणींत दरद वा दारद ह्या नांवान जमातीचो उल्लेख मेळटा. टॉलेमी सारक्या अस्तंती ग्रंथकारांनी ह्या लोकांचो उल्लेख केल्लो आसा. ताचेवयल्यान ही जमात पुर्विल्ल्या काळासावन भारतांत नंदताली अशें दिसता. कांय पंडितांच्या मतान हे लोक अनार्य वंशाचे आदिवासी आसुंये. तांकां पुर्विल्ल्या काळांत पिशाच अशें नांव आशिल्लें. पूण कांय पंडितांच्या मतान ते मूळ आर्य वंशाचेच. महाभारतांत तांकां पर्वतवासी म्हणिल्लें आसून ते भारतीय झुजांत कौरवांवटेन झुजले अशेंय सांगलां. आर्यांची एक शाखा इराणांत वसली. कालांतरान तांच्यांतल्यो कांय जमाती भारतांत आयल्यो तातूंतले कांय लोक चित्रळ पर्वतावयल्यान हिमालयाच्या दक्षिण वाठारांत रिगले आनी ल्हव ल्हव करून स्वात न्हंयेच्या देगणांत स्थायीक जाले. ह्या लोकांक सद्या दरद ह्या नांवान वळखतात.

हे लोक आर्यांवरी घटमूट आनी गोरेगोमटे आसून तांचे केंस काळे, दोळे घारशे आनी नाक सरळ आसता. ते आदीं क्षत्रीय आशिल्ले. पूण उपनयन आदी क्रिया नश्ट जातकच ते शुद्र जाले अशें मनू म्हण्टा.

हे लोक निर्भय आसून तांकां लाचारी जीण मात आवडना. तांच्यांत कश्ट करपाची आवड आसा. अन्यायाक तोंड दिवपाक ते सदांच तयार आसतात. पिजाम, सदरो आनी पांतळ तोपी असो तांचो भेस आसता. जोतीं चामड्याचे दोरयेन धोंपरांमेरेन वयर बांदतात.

रोनु, शीन, यशकुन, क्रोमेन आनी डूम ह्यो तिच्यो उपशाखा आसात. हातूंत रोनू आनी शीन ह्या शाखांचे लोक उच्च मानतात. जाल्यार यशकून ही उपशाखा लोक उण्या दर्ज्याची समजतात. क्रोमेन लोक आर्य आनी अनार्य लोकांच्या संस्कारांक लागून उत्पन्न जाले अशें मानतात. डूम ही सगळ्यांत हलकी जमात. दरदिस्तानांतले चडशे लोक मुसलमान जाल्यात. तांचेभितर शिया, सुन्नी आनी मुलाही अशे तीन पंथ आसात. हुंजा वाठारांत अलीइलाही नांवाचो आनीक एक पंथ आसा. हेर सगळे लोक हिंदू आसात. मध्य लडाखांतय कांय दरद लोक मेळटात. ते बौध्दधर्मी. ते लामाक आपलो गुरू मानतात. तांकां तांदळांचो आनी द्राक्षांचो सोरो आवडटा. सगळे दरद लोक गायेक अपवित्र मानतात. ते गायचें मांस, दूद, तूप, शेण आदी पदार्थांचो उपेग करिनात. शीन जातीचे दरद कोंबयेक अपवित्र मानतात.

हे लोक ईद, नौरोज, आदी परबो मनयतात. शिन – ओ – नाओ (वर्साची सुरवात) ही तांची सगळ्यांत व्हड परब. ही परब बारा दीस चलता. तांकां शिकारेची आनी कुस्तीची खुबूच आवड आसा.

दरद लोकांमदीं लग्न थरोवपाखातीर चल्याचो बापूय चलयेच्या बापायगेर वता आनी ताका कपडो, सोरो आनी एक व्हड चाकू भेट दिता. चलयेच्या बापायन ह्यो वस्तू घेतल्यार तांचें लग्न जाता. लग्न व्हंकलेच्याघरा जाता. त्यावेळार सगळे जाण ओळींत बसतात. न्हवऱ्याचे दावे वटेन व्हंकल बसता. उपरांत मुल्ला प्रार्थना म्हण्टा आनी लग्न

लागता. उपरांत नाचाचो कार्यक्रम जाता. व्हंकलेक घेवन न्हवरो घरा वता आनी तिच्या हड्ड्याक बाणाण स्पर्श करता आनी तो बाण उडयता. मुसलमान दरद लोकांमदीं भुरगें जल्माक येतकच ताचो बापूय वा मुल्ला ताच्या कानांत बांग दिता. धाव्या दिसा भुरग्याक नांव दवरतात. सत्ताविसाव्या दिसा बाळंटिणीक शुध्द करून घेतात.

हे लोक मडें पुरतात. कांय वर्सां आदीं मुसलमान दरद मडीं लासताले देखून आयज लेगीत कांयकडेन मडीं पुरतकच त्या जाग्यार उजो पेटोवपाची चाल आसा. मरणा उपरांत तीन दिसांनी लोकांक भाकरी आनी तूप वांट्टात.

दरदिस्तानांत आदीं ल्हान ल्हान गणराज्यां आशिल्लीं. तातूंत कांय गणराज्यां पांच, सात गांवांची मेळून आसतालीं. जाल्यार कांय एका गांवापुरतींच आसतालीं. ह्या गणराज्याचो कारभार सिगास नांवाचे जनसभेवतीन करताले. सगळे दादले जनसभेचे वांगडी आसताले. बायलांक हे सभेंत सुवात नाशिल्ली.

भारतांत मुसलमानी सत्ता स्थापन जातकच हीं गणराज्यां परतंत्र जालीं. मोगल वंशाची सत्ता नश्ट जातकच कांय काळ हांगा स्वतंत्र राज्यां चलतालीं. पूण फुडें शीख लोकांनी हो प्रदेश जिकून ताचो काश्मीरांत आस्पाव केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**दर्गो :** मुसलमान साधूंचे समाधीक दर्गो अशें म्हण्टात. भारतांत मुसलमान तशेंच हिंदू लोकूय तांच्या दर्शनाक वतात. ख्वाजा मुईनुद्दीन चिश्ती (अजमेर), ख्वाजा कुत्ब अल्-दीन बख्तियार काकी (कुतूबमिनारा लागसार), निझाम अल्-दीन अवलिया (दिल्ली), सय्यद बुऱ्हान अल्-दीन (आंध्र), नासीर अल्-दीन महमूद (चिराग-ई-दिल्ली), मुहंमद गिसूद-राज (गुलबर्गा), शेख सलीम (फतेपूर सिक्री) हे चिश्ती साधूंचे दर्गे प्रसिध्द आसात. सुऱ्हावर्दी पंथांत शेख जलाल अल्-दीन तब्रीझी (बंगाल), बुऱ्हान अल् -दीन (कुत्ब-ई-आलम) आनी मुहंमद शाह आलम (गुजरात) हांचीय नामना आसा. अब्दुल कादीर जीलानी हो भारतांत केन्नाच पावलोना. पूण ताचीं थडीं भारतांत (लुधियाना) दिश्टी पडटात. सय्यद महमूद (ऊंछ) आनी ताज अल्-दीन (औरंगाबाद) हांच्योय कबरी म्हत्वाच्यो आसात. ग्वाल्हेरची मुहंमद घौसाची, अहमदाबादेक वाजीह अल्-दीन, मेरठाक शाहा पीर हांची ह्यो शत्तारींच्यो कबरी आसात.

मार्द जमीरान साहिबा हे संतिणीची समाधी फिरोजपुराक आसा. ह्या प्रसिद्द दर्ग्यांवांगडाच, मुसलमानांचे वस्तींत ल्हान-व्हड असो एक तरी दर्गो आसता आनी थंय वर्सुकी उत्सव जाता. ह्या दर्ग्यांक काशिधाचे बावटे, धवे कोंबे, साकर, वेलदोडे, मातयेचे घोडे, ल्हान पाळणें, कपडे, गोड पदार्थ, बोकडे दितात. तांचे उरूस म्हळ्यार ईश्वर आनी भक्त हांचो संयोग मानतात. थंय त्या संतांनी उपास केल्ले अशें सांगतात. संतांचे वंशज वा नियुक्त केल्ले प्रतिनिधी तांची देखरेख करतात. कांय दर्गे व्हड आसात. वहाबी पंथाच्या मुसलमानांक दर्ग्यांची पुजा, म्हणजेच संतांची पुजा मान्य नासून ते देवाकडेन सरळ संबंद प्रस्थापीत करप मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : कब्र.

**दर्भ :** यज्ञ, श्राध्द आदी धर्मीक कृत्यांनी वापरपाचें एक तण. न्हाण, दान, जप, तप, स्वाध्याय, पितृकर्म आनी संध्यावंदन आदी कर्मां दर्भ हातांत घेवन म्हणजेच दर्भाचें पवित्रक बोटांत घालून करचें, म्हणजे केल्ल्या धर्मीक कार्याचें फळ मेळटा अशें आन्हिकसारांत सांगलां. पवित्रक हें सादारणपणान ४ वा २ दर्भांचें करतात. शांतीकर्माखातीर ३ दर्भांचें आनी पुश्टीक कर्माखातीर ५ दर्भांचें पवित्रक योग्य मानलां. श्राध्दा वेळार करपाच्या कृत्यांत किरवंटीक लायिल्ल्या आनी जानव्याक बांदिल्ल्या दर्भाकय पवित्रक अशेंच म्हण्टात. दर्भाची उत्पत्ती कशी जाली हेविशीं अथर्ववेदांत अशें सांगलां -

> यत्समुद्रों अभ्यक्रन्दत् पर्जन्यो विद्युता सह ।
> ततो हिरण्ययो बिन्दुस्ततों दर्भो अजायत ।
> (अथर्ववेद)

अर्थ - दर्यान जी गर्जना केली वा पावसान जोगलां सकट जो गडगडाट केलो, तातूंतल्यान भांगराचो थेंब सकयल पडलो आनी ह्या थेंबापसून दर्भाची उत्पत्ती जाली.

अथर्ववेदांत दर्भाक अनुसरून १९.३२ आनी १९.३३ अशीं दोन पुराय सुक्तां आसात. दर्भ हातांत बांदल्यार पिराय वाडटा अशी कल्पना तातूंत मांडिल्ली आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**दर्या आनी दर्याविज्ञान :** खाऱ्या उदकाचो प्रचंड असो जलाशय. उदक, जमीन आनी बर्फ ह्या तीन भुगोलीक घटकांनी धर्तरेची फाट व्यापिल्ली आसा. सुमार ७१% धर्तरेची सुवात ज्या खाऱ्या उदकान व्यापिल्ली आसा ती सुवात म्हणजे दर्या. जमीन आनी उदक हांचें सरासरी प्रमाण घेतलें जाल्यार दक्षिण गोलार्दांतलें उदक आनी जमीन हांचें प्रमाण ५:१ इतलें आसा जाल्यार उत्तर गोलार्दांतलें हेंच प्रमाण ३:२ इतलें आसा. जमनीचे तुळेन उदकान व्यापिल्ले धर्तरेची सुवात लक्षांत घेतल्यार ही धर्तरी म्हळ्यार एक व्हडलो दर्या आनी खंड म्हळ्यार थंयचे जुंवे म्हणपाइतलें हें प्रमाण आसा. ह्या अफाट दर्याचें वट्ट - क्षेत्रफळ ३६.२ कोटी चौ. किमी., वट्ट घनफळ १३.५ कोटी अब्ज घ. मी., सरासरी खोलाय ३७२९ मीटर आनी सरासरी तापमान ३.९° सॅ. इतलो आसा.

भुगोलीक सोयीखातीर दर्याची म्हासागर, सागर (समुद्र), अशी विभागणी केल्या. राजकीय सोयीखातीर अशा विभागांच्यो शिमो थरयल्यात. ॲटलांटिक, प्रशांत महासागर, हिंदी, आर्क्टीक-ॲंटार्क्टीक हे मुखेल म्हासागर म्हणून मान्यताय पावल्यात. हातूंत प्रशांत महासागर हो सगळ्यांत व्हड आसून ताचें क्षेत्रफळ धर्तरेच्या सुमार १/३ क्षेत्रफळापरस चड आसा. हो सगळ्यांत खोल. आर्क्टीक - ॲंटार्क्टीक हो सगळ्यांत ल्हान. दर्याचें स्वरूप, ताचीं भौतिकी आनी रसायनीक खाशेलपणां, तातूंतलें अभिसरण आनी प्रवाह, थंयची जीवसृश्ट आनी ताच्या हेर घटकांच्या सर्वांगी अभ्यासाक दर्याविज्ञान म्हण्टात.

दर्याविज्ञान हो विज्ञानाचो एक फांटो. हाचेवरवीं आमी दर्याविशींच्या प्रस्नांचेर अभ्यास करतात. हातूंत दर्याची घडण, उदकाचे गूणधर्म, दर्यांत मेळपी तरातरांचे जीव, वनस्पत, नुस्तें तशेंच फातर, खडपां, रेंव आनी हेर जायते विशय आस्पावतात. कमांडर मॅथ्यूऊ फॉटेन मॉरी

(Commonder Mathew Fountain Moury) ह्या अमेरिकी नावीक दळाच्या विज्ञानिकान १८४० ते १८५० ह्या काळांत केल्ल्या वावराक लागून दर्याविज्ञानाच्या अभ्यासाक विज्ञानीक रूप मेळपाक पावलें. हेखातीर कमांडर मॉरी हाका Father of Oceanography म्हण्टात.

दर्याविज्ञानाचो अभ्यास करतना विज्ञानाच्या हेर कांय फांट्यांचो पालव घेवंचो पडटा. हाका लागून दर्याविज्ञान हो एक आंतरशास्त्रीय (interdisciplinary) विशय जाता. विज्ञानांच्या हेर फांट्यांच्या पालवान दर्याविज्ञानाचो अभ्यास केल्ल्यान, दर्याविज्ञानाचेय कांय फांटे तयार जाल्यात. हातूंतले कांय मुखेल फांटे अशे :

१) भौतिकशास्त्रीय दर्याविज्ञान (Physical Oceanography) २) रसायनीक दर्याविज्ञान (Chemical Oceanography) ३) जीवशास्त्रीय दर्याविज्ञान (Biological Oceanography) ४) भूशास्त्रीय दर्याविज्ञान (Geological Oceanography).

दर्यांतलें पर्यावरण - दर्यांतल्या पर्यावरणाचो पसर खूब व्हड प्रमाणांत आडवो - उबो लागीं लागीं सगळोच उदकापोंदा आसा. दर्याचे दोन मुखेल भाग आसात - १) नितलस्थ (Benthic) आनी म्हासागरी (Pelagic). नितलस्थ भागांत सगळ्या दर्यातळाचो आस्पाव जाता आनी म्हासागरी भागांत तळावयल्या उदकाचो आस्पाव जाता.

नितलस्थ (Benthic) ह्या भागाचे तीन वाठार आसात. १) सागरतटी (Littoral) २) उपसागरतटी (Sub-littoral) आनी खोल दर्या (deep Sea).

१) सागरतटी वाठार (Littoral) - दर्याच्या देगांक भरती आनी सुकतेच्यो खुणो आसतात. ह्या दोन खुणांमदल्या वाठाराक सागरतटी वाठार अशें म्हण्टात. ह्य वाठारांतल्या खडपाळ दर्यादेगेचे तीन वाठार आसात.

(अ) ल्हारांचे थेंबे शिंवरपी वाठार (Wave splash zone) - ह्या वाठारांत खूब उण्या प्रमाणांत दर्या उदकाची पुरवण जाता. हो वाठार चडसो वातावरणाक उकतो आसता. ह्या वाठारांत खडपाळ वेळेर कोंगे (Snails), कालवां (Barnacles) आनी पाचवो शेळो (green algae). मेळटा.

(ब) बुडिल्लो वाठार (Submerged zone) - हो वाठार सदांच भरतेवेळार बुडिल्लो आसता. ह्या वाठारांत कुल्ल्यो (Crabs), खुबे (clams), शेळो (green algae) आनी कोंगे (snails) मेळटात.

(क) उकतो वाठार (Exposed zone) - हे दोन तरांचे आसतात. एक सुकते वेळार उकतो जाता आनी दुसरो चड करून पुनवेचो वा वाडटे चंद्रकळेच्या वेळार (Crescent phase of moon) उकतो जाता.

(२) सबलिटोरल वाठार (Sub-littoral) - दर्यादेगेवयली सुकते वेळावयली सुवात आनी भूंयखंडाचो वाठार (Continental Shelf) हांचेमदल्या दर्यातळाची सुवात ह्या वाठारांत आस्पावता. भूंयखंडांच्या खणांची देग सारकी दिसना आसत जाल्यार २०० मीटर खोल मेरेनची सुवात ह्या वाठारांत आस्पावता.

(३) खोल दर्याचो वाठार - भूंयखंडाच्या खणां सकयली सुवात जी नितलस्थ (Benthic) भागांत आस्पावता ती सुवात खोल दर्याचो वाठार घडयता. २०० मिटर खोलायेचे सुवातेपसून दर्याच्या तळामेरेनचे सुवाते मेरेन हो वाठार आस्पावता. ह्या वाठाराचे तीन भाग जातात. सगळ्यांत वयलो गभीर प्रदेश (bathyal zone), वितलीय वाठार (abyssal zone) आनी पोंदचो (Hadal zone). गभीर प्रदेश (Bathyal zone) हो भूंयखंडाच्या खणांपसून २०० मी. खोल आसा. हो प्रदेश सबलिटोरल वाठार आनी खोल दर्या हांचेमदीं येता. २,००० मीटर ते ३,००० मीटर खोलायेमेरेनच्या वाठाराक वितलीय वाठार (Abyssal zone) म्हण्टात. ह्या वाठारांत खोल दर्याची सगल्यांत चड सुवात आस्पावता. सुमार ८२% सुवात ह्या वाठारांत येता. ह्या वाठाराफुडलो वाठार म्हळ्यार ६,००० मीटरांपरस चड खोलायेसावन दर्यातळामेरेनचो (Hadal zone) आसा. हातूंत १.२% दर्याची सुवात येता. सुर्याचो प्रकाश गभीर प्रदेशामेरेन पावता. तेखातीर वितलीय आनी (Hadal) वाठारांत प्रकाशसंश्लेशण (Photosynthesis) ची प्रक्रिया जाता.

म्हासागरी (Pelagic) वाठार - नितलस्थ वाठारा वयर आशिल्लें सगळें उदक ह्या वाठारांत आस्पावता. दर्यांतली सगळ्यांत व्हड वस्ती (habitat) ह्या वाठारांत आसता. ह्या वाठाराचे दोन आडवे (horizontally) भाग जातात. वेळेकडलो भाग (inshore province, Neretic) आनी उकत्या दर्याचो भाग - (open Sea-Oceanic) भूंयखंडाच्या खणावयलें उदक जें वेळेपसून पयस (off shore) सुमार २०० मीटर खोल आसता, तें ह्या वेळेकडल्या भागांत आस्पावता. हो भाग सगळ्यांत चड खदूळ (turbulent) आसता. हाका लागून सुर्याचीं किरणां उदकांतल्यान वचूंक शकनात. ह्या भागांत नायट्रेट (Nitrates), सल्फेट (Sulphate), फॉस्फेट (Phosphate), सिलिकेटस (Silicates) सारकीं वनस्पतीचीं खादद्यां खूब प्रमाणांत मेळटात. उकत्या दर्याच्या भागांत २०० मीटरांपरस चड खोल आशिल्लें उदक आस्पावता. ह्या भागांतलें उदक चड करून निळ्या रंगाचें आनी आरपार दिसपी (transparent) आसता.

उकत्या दर्याचे (Oceanic) उब्यान (vertically) पांच वांटे जातात. अ) एपिपॅलाजीक (Epipelagic) वयल्या तळापसून (Surface) २०० मीटरांमेरेन ब) मेसोपॅलाजीक (Mesopelagic) २०० मी. ते १,००० मी. मेरेन खोल आसता. क) बाथीपॅलाजीक (Bathy pelagic) - १००० मीटर ते ४००० मी. ड) एबिसोपॅलाजीक (Abysopelogic) ४००० मीटर ते ६००० मी. इ) हेडोपॅलाजीक (hadopelagic) ६००० मीटर ते तळामेरेन.

**दर्याविज्ञानाचे फांटे -**

**(I) भौतिकशास्त्रीय दर्याविज्ञान (Physical Oceanography)** - ह्या फांट्यांत उदकाचे गतीचेर अभ्यास करप जाता. उदकाचे गतीवरवीं भुंयेवयलें हवामान आदारून आसता. भौतिकशास्त्रीय दर्याविज्ञानावरवीं हवामानांतले बदल, दर्यादेगांच्या तापमानांतले बदल, उजवाड, आवाज हेर शक्तींचें (Energy) उदकांतल्यान वचप, हवा आनी दर्यामदले संबंद ह्या विशयांचो ह्या फांट्यांत अभ्यास जाता. उदकाची खारसाण (Salinity) आनी दाब (Pressure) हांचोय अभ्यास ह्या फांट्यावरवीं जाता.

दर्याविज्ञानाच्या अभ्यासांत तापमान हो म्हत्वाचो घटक. तापमानाचेर दर्यांतले जीव आनी तांची वागणूक आदारून आसता. तापमानाखातीर, दर्यांत जीव आनी वनस्पत हांची सारकी वाड आनी वांटणी जावंक पावता. दर्यांतले जिणेक उजवाड हो आनीक एक म्हत्वाचो असो जीव आनी तांचे भोवतणचो अभ्यास करपी शास्त्रीय घटक (ecological factor). उजवाड मेळपाची मुखेल साधनां म्हळ्यार सूर्य, चंद्र, नखेत्रां आनी दर्यांतल्या जिवांचो पर्जळ (luminiscence of organisms). हातूंत सूर्य हो सगळ्यांत चड म्हत्वाचो. सुर्याच्या उजवाडापसून दर्यांतली वनस्पत आपलें खाण तयार करता. दर्यांत वचपी सुर्याचो उजवाड उदक ओडून घेता आनी उबेच्या रुपान बदल करता. हाका लागून खोल उदकांत ऊब आसता. दर्याउदकाचेर पडपी उजवाडाचो कांय वांटो आपटून परत

वता. भितर आयिल्ल्या उजवाडाचो तिसरो वांटो एका मीटराचे खोलायेन आनी एक चवथय फुडल्या ५ मीटरांभितर वता. फकत धावो वांटो १० मीटरांचे खोलायेमेरेन वचूंक शकता. ह्या कारणांक लागून दर्यांतल्या पर्यावरणाचे तीन वाठार केल्ले आसात-

अ) प्रकाशसंश्लेषण वाठार (Emphatic or Photosynthesis zone) - हातूंत ४० ते ५० मीटर खोल उजवाड वचूंक शकता. ब) मंद प्रकाशी वाठार (Dysphotic zone). हांगा खूब उणो उजवाड पावता. क) ॲफोटीक वाठार (Aphotic zone). हांगा कांयच उजवाड पावंक शकना.

दर्याउदकाचें खाशेलपण म्हळ्यार ताची खारसाण. दर्याउदकांत ७३ घटक (elements) आसतात. पूण हातूंतले फकत ६ चड प्रमाणांत आसतात. सोडियम क्लोरायड ८५% आसता. तशेंच मॅग्नेशियम, कॅल्शियम, पोटेशियम, स्ट्राँशियम, क्लोरायड, सल्फेट आनी हेर मिठां आसतात.

भारता भोंवतणच्या उदकांतली खारसाण जाग्या जाग्यार बदलत आसता. अरबी समुद्रांत उदकाची खारसाण ३६% ते ३६.५% इतली आसता. बंगालच्या उपसागरांत येवपी गोड्या उदकाच्यो न्हंयो, अरबी समुद्रांत येवपी न्हंयांपरस चड आशिल्ल्यान बंगालच्या उपसागरांत खारसाण मातशी उणी म्हळ्यार ३३.३४% इतली आसता. खारसाणीचो बदल सोंसपाचे तांकीचेर दर्यांतले जीव आनी वनस्पतींचो राबितो आसता.

दर्यांतले जीव आनी वनस्पत दोन तरांची आसता. जे जीव आनी वनस्पत उण्या प्रमाणांत खारसाणींतले बदल सोंसूंक शकतात तांका स्टॅनोहोलायन (stenoholine) म्हण्टात. चड करून उकतो दर्या आनी खोल दर्यांत जीव मेळटात. खारसाणींत व्हड प्रमाणांत जाल्लो बदल सोंसपाची तांक आशिल्ल्या जीव वा वनस्पतींक युरीहेलायन (Eurihaline) म्हण्टात. चडशे असले जीव दर्यादेगांचेर आनी खाडयांनी मेळटात.

(II) **रसायनीक दर्याविज्ञान** (Chemical Oceanography) - ह्या फांटयावरवीं उदकांत जावपी रसायनीक प्रक्रियेचेर तशेंच उदकांत आनी दर्यातळाक मेळपी घटकांचेर (elements) अभ्यास करतात. दर्याचें उदक म्हळ्यार अकार्बनी (inorganic), कार्बनी (organic) आनी विरगळिल्लो वातावरणांतलो वायू हांचें मिश्रण आसता. प्राणवायू (oxygen) हो दर्यांतले जिणेचो म्हत्वाचो असो घटक. हो वातावरणांतल्यान येता वा प्रकाशसंश्लेशणा वतीन निर्माण जाता. उदकाच्या अभिसरणान हो वायू सगळ्याक पातळटा आनी चडशा जैव क्रियांनी तो वापरप जाता. पूण काळ्या समुद्रासारक्या कांय भागांनी हो वायू मेळना. अशा सुवातींनी अनॉक्सिजिवी म्हळ्यार ह्या वायूबगर जगपी बारीक जीव मेळटात.

कार्बन डाय-ऑक्सायड हो वनस्पतींखातीर एक म्हत्वाचो घटक. चडसो कार्बन-डायऑक्सायड भोंवतणच्या वातावरणांतल्यान मेळटा. खोल दर्यांत जंय प्रकाशसंश्लेषण (Photosynthesis) जावपाक शकना थंय जंतूंपसून कार्बनी (organic) जिनस कुशिल्ल्यान कार्बन डाय-ऑक्सायड तयार जाता. उदकांत हो कार्बन डाय-ऑक्सायड शोशीत अवस्थेंत वा बायकार्बोनेटांमदी चड प्रमाणांत आसून तो केन्नाच उणो पडना. तशेंच सोडियम, मॅग्नेशियम, पोटेशियम, कॅल्शियम, क्लोरायड, सल्फेट, बायकार्बोनेट, ब्रोमायड, फ्लोरायड आनी बोरेट हीं दर्या उदकांतलीं मुखेल मिठां. तेच भाशेन फॉस्फेट, नायट्रेट आनी सिलिकेट हीं उण्या प्रमाणांत मेळपी मिठां उदकांत खाण तयार करपाखातीर उपेगी पडटात. हांकां खाद्यां (Nutrients) म्हण्टात. दर्याउदकाच्या प्रदुशणाचेर रसायनीक दर्याविज्ञानांत अभ्यास करप जाता. उदकांत मेळपी घटकांच्या प्रमाणांत वाड जातकच प्रदूशण जाता.

**म्हासागराची म्हायती**

| नांव | सरासरी खोलाय (मी.) | क्षेत्रफळ (चौ. मी) |
|---|---|---|
| प्रशांत | ४१८८ | १६६२४०००० |
| अटलांटिक | ३७३६ | ८६६६०००० |
| इंडियन | ३८७२ | ७३४३०००० |
| आर्क्टिक्ट | - | १३२३०००० |

**मुखेल समुद्र**

| नांव | सरासरी खोलाय (मी.) | क्षेत्रफळ (चौ. मी) |
|---|---|---|
| साउथ चायना समुद्र | १२०० | २९७४६०० |
| कॅरिबियन समुद्र | २४०० | २७५३००० |
| मॅडिटेरिनियन समुद्र | १४८५ | २५०३००० |
| बेअरिंग समुद्र | १४०० | २२६८१८० |
| मेक्सिको आखात | १५०० | १५४२९८५ |
| ओखोट्स्क समुद्र | ८४० | १५२७५७० |
| ईस्ट चायना समुद्र | १८० | १२४९१५० |
| हडसन उपसमुद्र | १२० | १२३२३०० |
| जपान समुद्र | १३७० | १००७५०० |
| अंदमान समुद्र | ८६५ | ७९७७०.० |
| नॉर्थ समुद्र | ९० | ५७५३०० |
| ब्लॅक समुद्र | ११०० | ४६१९८० |
| रॅड समुद्र | ४९० | ४३७७०० |

- डॉ. एस. वाय. एस. सिंगबाळ

## दलबेक्को, रेनातो

**दलबेक्को, रेनातो :** (जल्म : २२ फेब्रुवारी १९१४, कांतानझारो - इटली).

अमेरिकन विशाणुशास्त्रज्ञ. तूरिन विश्वविद्यालयाची पदवी मेळयतकच १९४०-४६ मेरेन त्याच विद्यापिठांत तो विकृतीविज्ञानाचो सहाय्यक प्राध्यापक जालो. १९४७त तो प्रायोगिक भ्रूणविज्ञानाचो प्राध्यापक आशिल्लो. त्याच वर्सा ताणें अमेरिकेंत स्थलांतर केलें. थंय तो १९४७-१९४९ मेरेन इंडियाना विद्यापिठाच्या सूक्ष्मजंतूशास्त्र विभागांत संशोधन सहाय्यक आनी तेउपरांत कॅलिफॉर्निया इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजींत १९४९-५२ मेरेन वडील फॅलो आशिल्लो. तेच संस्थेंत १९५२-६३ मेरेन तो पयलीं सहाय्यक प्राध्यापक आनी उपरांत प्राध्यापक जालो.

इंडियाना विद्यापिठांत आसतना एल्. ई. लुर्या ह्या नोबॅल पुरस्कार जैतीवंत शास्त्रज्ञावांगडा सूक्ष्मजंतूंवयल्या अतीसूक्ष्म विशाणूंचो (viruses) अभ्यास करपाची संद ताका मेळ्ळी. तेउपरांत कॅलिफॉर्निया इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजींत आसतना ताणें 'प्लेक टॅक्निक' ह्या नांवान वळखुपी डीएनए विशाणू मेजपाचें जलद तंत्र सोदून काडलें. तेउपरांत रोखडोच आरएनए विशाणू मेजपाचें तंत्र्य सांपडलें. १९६३त तो कॅलिफोर्नियांतल्या साल्क इन्स्टिट्यूट फॉर बायॉलॉजिकल स्टडिज हे संस्थेंत वडील फेलो म्हूण काम करूंक लागलो. थंय ताणें विशाणूशास्त्राचो अभ्यास करपाखातीर

प्रयोगशाळा स्थापन केली. हे प्रयोगशाळेंत कांय वांगड्यांच्या पालवान ताणें विशाणुजन्य कर्करोगाच्या संशोधनाखातीर उपेगी अशी परीक्षा - नळी पध्दत तयार केली. पयल्या उत्परिवर्तनक्षम विशाणूक लागून जावपी अर्बुदाचें उत्पादन ताणें केलें.

टेमिन हाणें दलबेक्को हाच्या मार्गदर्शनाखाल डॉक्टरेट पदवेखातीर संशोधन केल्लें (१९५५-५९) आनी साल्क इन्स्टिटयूटचे प्रयोगशाळेंत दलबेक्को आसतना बॉल्टिमोरूय थंयच काम करतालो. दलबेक्को हाच्या संशोधनाक लागून हेर दोगांयच्या संशोधनाची बुन्याद पडली. टेमिन हाणें आपलें लक्ष आरएनए विशाणूचेर केंद्रीत केल्लें जाल्यार बॉल्टिमोर हाणें बालपक्षाघाताच्या विशाणूंच्या विस्कटावणेक सुरवात केल्ली. बॉल्टिमोर हाणें आरएनए विशाणूंच्या कणातल्यान रिवर्स ट्रान्सक्रिप्टेज नांवाचें एन्जायम सोदून काडलें. टेमिन हाचें संशोधन हेच दिशेन चालू आशिल्लें. ह्या एन्झायमाक लागून आरएनए अर्बुद-विशाणू आपल्यो डीएनए प्रतीकृती स्वताय तयार करूंक शकतात असो तांचो सिध्दांत आशिल्लो.

ह्या तिगांयच्या स्वतंत्र संशोधनाक लागून अर्बुद विशाणूशास्त्रांत मोलाची भर पडली. अर्बुद विशाणू आनी कोशिकांतल्या जननिक सामग्री हांच्यांतले अन्योन्यक्रियेचेर हाका लागून नवो उजवाड पडलो. तांच्या ह्या वावराखातीर दलबेक्को, टेमिन आनी बॉल्टिमोर ह्या तिनूय शास्त्रज्ञांक १९७५ वर्साचो शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयाखातीर अशिल्लो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो.

१९५१ उपरांत दलबेक्को हाणें आपलें सगळें लक्ष जनावरांच्या विशाणूशास्त्राकडेन केंद्रीत केल्लें. ताणें विशाणूशास्त्रांत परिमाणात्मक पद्दतींचो उपेग केल्ल्यान फुडली उदरगत सोंपी जाली. मोनजातींच्या कितल्याशाच कर्करोगांक अर्बुद विशाणू कारण आशिल्ल्याचें ताणें प्रस्थापीत केलां. ताका लागून मनशाच्या कर्करोगाकूच विशाणू कारण आसतात काय ना, हें तपासून पळोवपा नदरेन फाटभूंय तयार जाल्या. सप्टेंबर १९७२ सावन तो लंडनांत इंपेरियल कॅन्सर रिसर्च फंड लॅबोरेटरींत काम करता. ताका आनीक कितलेशेच भोवमान फावो जाल्यात.

– कों. वि. सं. मं.

**दलवाई, हमीद :** (जल्म : २२ सप्टेंबर १९३२, चिपळूण, कोंकण; मरण : ३ मे १९७७).

विसाव्या शेंकड्यांतल्या मुसलमान प्रबोधनाचो प्रतिनिधी. मुसलमान समाजान मागाशिल्ल्यो समाजीक आनी धर्मीक कल्पना सोडून दिवन आपली उदरगत करून घेवंची म्हणून जीणभर 'एकला चलो रे' पद्दतीन झगडपी सुधारक. एका गरीब, मध्यम वर्गीय मुसलमान कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. ताचो बापूय मुस्लिम लीग पक्षाचो स्थानिक फुडारी आशिल्लो. दलवाईचें माध्यमिक शिक्षण ताच्या गांवांतूच जालें. अर्थीक परिस्थितीक लागून म्हाविद्यालयाचो अभ्यासक्रम ताका पुराय करूंक मेळ्ळोना. पूण इतिहास आनी समाजशास्त्र ह्या विशयांचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. संवसारीक जापसालदारकेक लागून मुंबयंत ताका कितल्योशोच नोकऱ्यो करच्यो पडल्यो.

शाळेंत आसतनाच तो राश्ट्र सेवा दलाचो कार्यकर्तो जालो. समाजवादी पक्षाचो फुडारी डॉ. राममनोहर लोहिया हाच्या विचारांचो दलवाईचेर खूब प्रभाव पडलो. ताका लागून दलवाई समाजवादी पक्षाचोय कार्यकर्तो जालो. पूण राजकीय क्षेत्रांत ताका राजकीय फुडाऱ्यांचो वायट अणभव आयिल्ल्यान ताणें राजकीय क्षेत्र सोडलें आनी १९६७ वर्सासावन ताणें समाजीक कार्याक आरंभ केलो. १९७० वर्सा ताणें 'मुस्लिम सत्यशोधक मंडळा'ची स्थापणूक केली.

ह्या मंडळाचे दोन हेत आशिल्ले. १) स्वातंत्र्य, व्यक्तीची प्रतिश्ठा आनी समाजीक समता हांच्या आदारान मुसलमान समाजाची पुनर्घटना करप आनी २) मुसलमान आनी हेर लोकांमदीं धर्मनिरपेक्ष राज्याचे चौकटींत समतेच्या आदाराचेर सुसंवाद घडोवन हाडप. सुर्वेक हें कार्य फकत महाराष्ट्रांतल्या कांय मुखेल शारांनीच चलतालें. पूण एका वर्सभरांत ह्या मंडळाक तरणाट्यांचें बळगें मेळ्ळें. मुसलमान समाजांतले लग्न पद्दतीक लागून मुसलमान बायलांचेर जो अन्याय जाता, ताची जाणविकाय कांय तरणाट्यांक जाली.

मुसलमान धर्मांतल्यो वायट चालीरिती आनी काळाभायऱ्यो आज्ञा हांचेर खर टिका केल्ल्यान, इस्लामी संघटनाच न्हय, जाल्यार सगळ्या क्षेत्रांतल्या मुसलमान लोकांकडल्यान ताका विरोध जालो. ह्या खर विरोधाक जुमानी नासतना दलवाईन आपल्या निश्ठावंत कार्यकर्त्यांसयत मुसलमान समाजाक ह्या धर्मनिरपेक्ष राज्यांत तांचीं कर्तव्यां आनी जापसालदारक्यांची जाणविकाय करून दिली. परंपरांच्या आनी धर्मग्रंथांच्या बंधनांनी घुसपून पडिल्ल्या मुसलमान समाजांत सुदारणा घडोवन हाडपाविशीं ताची तळमळ आशिल्ली. तेंच ताणें आपलें जिवीतकार्य मानिल्लें.

डिसेंबर १९७१ वर्सा, दलवाईचे अध्यक्षतेखाला सुदारणावादी मुसलमान समाजाची पयली परिशद भरिल्ली, तेन्ना दलवाईन, मुसलमान सत्यशोधक मंडळाचीं उद्दिश्टां आनी फुडल्या कार्याविशीं महायती प्रतिनिधींक दिली. डिसेंबर १९७३ वर्सा कोल्हापुरांत मुसलमान शिक्षण परिशद भरिल्ली. त्या वेळार, महाराष्ट्रांतल्या मुसलमान विद्यार्थ्यांनी उर्दू शाळेबदला मराठी माध्यमाच्या शाळांतल्यानूच शिक्षण घेवंचें, तशें केल्ल्यान नोकऱ्यो मेळपाक बरें जातलें, असो ते परिशदेंत थाराव केल्लो. तेच भाशेन 'वक्फ' हे निधीचो उपेग मुसलमान विद्यार्थ्यांक तंत्रीक शिक्षण दिवपापसत करचो आनी मदरसांच्या अभ्यासक्रमांत सुदारणा करून ताका धर्मनिरपेक्ष स्वरूप दिवंचें अशेंय थारावांत सुचयल्लें.

नोव्हेंबर १९७५त, पुण्यांत ताणें तलाकपिडीत मुसलमान बायलांची परिशद घेतिल्ली. भारतीय घटनेच्या ४४ व्या कलमाप्रमाण धर्माचो विचार करिनासतना सगळे भारतीय जनतेक समान नागरी कायदो लागू करचो अशी मागणी दलवाईन हे परिशदेंत केली. मुसलमान समाजांत कुटुंबयेवजणेचो प्रसार करपाचो मोलादीक वावर दलवाईच्या मुसलमान सत्यशोधक मंडळान केलो.

मुसलमानांनी काळाभायऱ्यो धर्माज्ञा पाळचेपरस बुध्दिवाद आनी विज्ञानीक नदर वापरप चड फायदयाचें अशें ताणें सांगलें. मानवी मुल्यां हीं धर्मीक मुल्यांपरसूय व्हड आशिल्ल्याची जाणविकाय दलवाईक आशिल्ली.

कांय धर्मकोल्ली लोकांनी दलवाईच्या वावराक सतत विरोध केलो. पूण विशाल ध्येयवादाचेर दलवाईची नदर कायम आशिल्ल्यान विरोधकांचे टिकेन वा हल्ल्यांनी तो फाटीं सरलोना. ताणें भारतभर भोंवडी केली आनी सगळ्या थरांतल्या मुसलमान लोकांक मेळून आपली सुदारणावादी नदर तांकां समजावन दिली.

दलवाई मराठींतलो एक बरो लेखक आशिल्लो. ताच्या 'इंधन' हे कादंबरीक महाराष्ट्र शासनाचें इनाम फावो जाल्लें. आपल्या हेर लघुकथांनी

ताणें कोंकणच्या गरीब शेतकारांचें चित्र बरे तरेन चितरायलां.

– कों. वि. सं. मं.

**दलाल :** वेपारी दिवपा-घेवपांत दोन वा चड मनशांमदीं मध्यस्थी करप्याक 'दलाल' म्हण्टात. मध्यस्थी करपाखातीर ताका जें मोल मेळटा ताका दलाली म्हण्टात. मालकाचे वतीन म्हालाचो वा मालमत्तेचो दिवपा – घेवपाचो वेव्हार करून, दलालावतीन बाजाराक एक गरजेची सुविधा मेळटा.

चडशा सगळ्या बाजारांनी दलाल ही संस्था आसताच. चड करून शेतकी म्हालाचें दिवप - घेवप, आयात - निर्यात वेपार, भांगर, रुपें आनी परकी चलन बाजार, येरादारी, विमो वेवसाय, रोखेबाजार आदी जायत्या वेपारी मळांचेर दलाल ही संस्था वेपारी वेव्हार करूंक आदार दितात. बाजाराची अध्यावत म्हायती, बाजारभावाचें गिन्यान, म्हालाची पारख, वेव्हारतंत्राचो अभ्यास, वेपाऱ्याचे उलाढालीची आनी अर्थीक स्थितीची पुरायेन म्हायती आदीच्या आदारान दलाल आपलें काम करता. ताचे आनी वेपाऱ्यांचे संबंद एकामेकांच्या विस्वासाचेर आदारिल्ले आसतात. दलालाचे मध्यस्थीक लागून घेवप्याचो आनी दिवप्याचो जायतो वेळ आनी त्रास वांचता. ताका लागून जावपी फायदो हो दलालीच्या मानान कितलेशेच पटींनी चड आशिल्ल्यान व्हड व्हड बाजारांनी दलाल ही एक गरजेची संस्था जावन रावल्या.

आयच्या युगांत खाशेलेकरणाक म्हत्व आशिल्ल्यान दलालां भितरय खरेदी वेव्हाराचे दलाल आनी विक्री वेव्हाराचे दलाल अशी विभागणी जाल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**दलीत पँथर :** दलीत म्हळ्यार अर्थीक तशेंच समाजीक नदरेन फाटसार आशिल्ले लोक. आनी पँथर म्हळ्यार बिबटो (वागाची एक जात). समाजांत दलीत लोकांनी आपले हक्क बिबट्याप्रमाण आक्रमक जावन हातासूंक जाय, ह्या विचारांतल्यान निर्माण जाल्लो दलितांमदल्या शिक्षीत आनी जुवान अशा समाजीक अन्यायाआड संताप उक्तावपी एक गट.

डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर हाच्या मरणाउपरांत रिपब्लीकन पक्ष फुटलो आनी तातूंतल्या एका गटान दलीत पँथरची स्थापना केली. अमेरिकेंतल्या ब्लॅक पँथरचे धर्तेर आनी मद्रासांतल्या रामस्वामी नायकर हाचे चळवळीची प्रेरणा घेवन हो नवो गट मुखार आयलो. ह्या गटाक राजा ढाले, नामदेव ढसाळ, भाई संगारे हांचे सारकिल्ले साहित्यीक पिंडाचे फुडारी मेळ्ळे. उंचेल्या जातींक प्राधान्य दिवपी प्रस्थापीत समाजवेवस्था आनी अर्थवेवस्था, हींदू धर्म आनी तांतूतलीं भेदभावाचीं तत्त्वां, तशेंच, मतलबी राजकारण हांचेर दलीत पँथरांनी आक्रमक अशी टिका केली. उपकाराचे भावनेन पदरांत जें पडटा ताचेर दलितांनी समाधानी रावनासतना अर्थीक, राजकीय आनी संस्कृतीक मळांवयल्या नियंत्रण शक्तींमदीं म्हत्वाची सुवात घेवप ही दलीत पँथरची मोख आसली.

सुर्वेच्या काळांत ही संघटना राजकीय, समाजीक आनी धर्मीक मळांचेर आपलो छाप काडूंक पावली तरी, सुर्वेचो नेट मुखार उरलोना. सर्वसादारण दलितांमदलो एक गट दलीत पँथरचे जहाल भुमिकेक लागून दलीत पँथरचे स्थापणुके सावनच दलीत पँथरापसून पयस रावलो. फुडें मार्क्सवादी उदारमतवादाचो पुरस्कार करपी खासा दलीत पँथरांतलोच एक गट कुशीक सरलो आनी दलीत पँथरांत दोन गट पडले. रिपब्लीकन पक्ष हो दलितांचो राजकीय पक्ष. पँथरांकडेन एक प्रतिस्पर्धी संघटना म्हणून पळोवंक लागिल्ल्यान ताका सतत विरोध करीत आसलो.

व्हड संख्येन आशिल्ल्या पिडीत अशा मागाशिल्ल्या समाजाच्या आशा-आकांक्षांची पुर्ती हें ध्येय मुखार दवरून फुडें सरिल्ली ही संघटना, अंतर्गत तशेंच बहिस्त विरोधाक लागून आनी समर्थ अशें फुडारपण ना मेळिल्ल्यान अपेक्षीत येस जोडूंक शकली ना आसली तरी सुशिक्षीत अशा दलीत समाजाक हे संघटनेचें आकर्शण निर्माण जालें हें न्हयकारूंक जावंचें ना. एक समाजीक अशी राजकीय शक्त म्हणून हे संघटनेन हेर राजकीय आनी समाजीक संघटनांचें लक्ष ओडून घेतलें.

– कों. वि. सं. मं.

**दलित साहित्य :** दलित साहित्य म्हळ्यार खूब काळ ग्रंथीक संस्कृतीसावन (Literary Culture) पयस दवरिल्ल्या आनी धर्मीक-समाजीक-अर्थीक बंधनांनी घुस्पल्ल्या, नव्यान जाग आयिल्ल्या मनाचो सामुहिक हुंदको-आक्रोश, किळांच, स्फुरण आसा. आधुनीक भारतांतली प्रबोधन युगांतली समता, स्वातंत्र्य, भावपण, लोकशाय आनीं हेर मोलांचो हो एक परिणाम. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत भारतीय घटनेन मांडिल्ल्या मानवी हक्कांची सदन वाङ्मयीन दिशेन कार्यान्वित करपाचो हो एक यत्न आसा. दलीत साहित्यनिर्मिती ही शुध्द साहित्यीक स्वरुपाची घटना नाशिल्ल्यान आनी हे घडणुके फाटल्यान समाजीक-राजकीय-धर्मीक-अर्थीक संस्कृतीक स्वरूपाचे, परिवर्तनाचे ल्हान-व्हड विंगड विंगड प्रवाह कार्यरत जाल्ल्या कारणान 'दलीत साहित्य' हे संज्ञेविशीं एक खाशेली अशी व्याख्या ना. जण एकलो ह्या साहित्याची व्याख्या आपआपल्या मनाप्रमाण करता. दलीत (Downtrodden) म्हळ्यार विंगड विंगड प्रकारांच्या मानवी हक्कांसावन, सुविधांसावन खूब काळ पयस राविल्लो एक भारतीय मानवी चोंबो. मुखेलपणान ही धारणा कल्पून, तांच्या आदाराचेर ह्या चोंब्याच्या विमोचनाचे (emancipation) मार्ग सुचोवपी जें साहित्य आसा, ताका सादारणपणान दलीत साहित्य अशें मानतात.

ह्या साहित्याचे एक प्रवर्तक डॉ. म. ना. वानखेडे हाणें 'दलीत साहित्य' म्हळ्यार दलीत लेखकांनी दलितांच्या संदर्भांत निर्माण केल्लें प्रक्षोभक, विद्रोही साहित्य, अशी दलीत साहित्याची व्याख्या केल्ली आसा. दलितांनी म्हळ्यार पयलींच्या अस्पृश्यांनी-दलीत जाणविकायेंतल्यान निर्माण केल्लें जें साहित्य, तें दलीत साहित्य. ही व्याख्याच चड प्रमाणांत चालंत आसा. हाका लागून दलीत वर्गांत जल्म जाल्ल्या 'ग्रेस' सारकिल्ल्या कवीची कविता दलीत थारना. हिंदू धर्म परंपरेप्रमाण जे अस्पृश्य वर्गांत जल्माक आयिल्ले आसात आनी आधुनीक प्रबोधनयुगान प्राप्त जाल्ल्या आत्मभानांतल्यान जे दलीत जिणेची मांडावळ करतात, ते दलीत लेखक आनी ताणीं निर्माण केल्लें साहित्य म्हळ्यार 'दलीत साहित्य'. मानवतावादी मोलांचें वितरण, अस्तित्वांत आशिल्ले विशम जीणवेवस्थेची तिडक, हे वेवस्थेक न्हयकार दिवप वा तिचेआड विरोधी भुमिका घेवन उठप, हें ह्या साहित्याचें खाशेलेपण.

आदल्या काळांत लेगीत दलीत जिणेविशीं दलितांनी बरयल्लें आसा;

पूण तातूंत हीं आतांचीं मतां नात. आयचें दलितांचें लिखाण हें तांकां आयिल्ल्या नव्या आत्मभानांतल्यान जल्माक येता. परंपरेन न्हयकारिल्ले ग्रंथीक संस्कृतीचे ते आयज उपासक जाल्यात. मौखिक परंपरेकडच्यान लिखीत परंपरेकडेन घुंवत आसात, तातूंतल्या नव्यापणाचे उमाळे आनी उस्वास ते मांडटात. तांची ही निर्मिती तांचे नवे जाणविकायेचें, अस्मितायेचें प्रतीक जालां. आत्मविश्कार, आत्मप्रदर्शन, आत्मविसर्जन, आत्मसोद, आत्मशुध्दी, अन्यायाविशींची प्रतिक्रिया, बंडखोरी, निशेध वा न्हयकार हीं ह्या साहित्याचीं प्रयोजनां आसात. 'लिटरेचर ऑफ ॲक्शन' अशेंय ह्या साहित्याक म्हण्टात. एकेकडेन हें साहित्य दलितेतरांकडेन पयसुल्ल्यान, दुस्वासान पळयता, तांचेकडेन दुस्मानपण मांडटा जाल्यार दुसरेकडेन तांचेकडेन संवादूय सादूंक सोदतात.

दलीत साहित्य-निर्मिती ही ब्रिटीश राजवटींत सुरू जाल्ल्या प्रबोधनयुगाचें फळ. सर्वंकश स्वरूपाचें समताधिश्टित जीण-परिवर्तन हो तांचो मुखेल हेत. तें दलीत जिणेंतल्या विंगड विंगड दुख्खानुभवांचेर लक्ष केंद्रीत करता. तें घटनाप्रधान आनी शोकसंतप्त स्वरुपाचें आसा. दीसपट्ट्यो गरजो भागोवंच्या नेटार रंजीस (पिडीत) आशिल्ल्या ह्या लोकांक जिणेंतले सुकुमारतेकडेन लक्ष दिवपाक वेळ ना. वेदना-व्यथांनी ही जीण करपल्ली आसा. हौस, मजा आनी हेर गजालींक हांगा थारो ना. अन्न-वस्त्र-आलाशिरो हे तांचे सातत्याचे आनी थळावे प्रस्न आसात. गांवाचे शिमेभायर जनावरांपाश्ट जीण जगपी मनशांच्यो शोककाणयो, आक्रोश-आक्रंदनांनी हें साहित्य भरिल्लें आसा. डॉ. आंबेडकर हाणें आपल्या अनुयायांवांगडा १९५६त धर्मांतर केलें. तांणी बौध्द धर्म आपणायलो. तेन्नासावन दलीत साहित्यनिर्मितीक चड नेट आयलो. दलीत पँथर चळवळीन हें साहित्य सगळ्या दिशांनी फांकोवपाचो यत्न केलो.

भारताक मेळिल्लें स्वातंत्र्य, ह्या स्वातंत्र्यान आपणायल्ली नवी घटना, हे घटनेन सगळ्या भारतीयांक दिल्ले समान हक्क, अस्पृश्यताय पालन हाका कायद्यान गुन्यांव थरोवप आनी दलितेतरांनी जाणवल्ली अस्पृश्यताय पालनांतलें वेगळेपण, ह्या सगळ्यांचो मेळ दलीत साहित्य निर्माण करपाक प्रेरक थरलो.

- कों. वि. सं. मं.

**दवरणें :** माथ्यावयलें वजें आपले आपुणूच दवरपाची सुवात. आदल्या काळांत चडसो प्रवास पांयांनीच जातालो, तेन्ना माथ्यावयलें वजें वाटेर मदीं मदीं दवरून विसव घेवंचो पडटालो. अशा वेळार माथ्यावयलें वजें देंवोवपाक दुसरो मनीस मेळटालोच अशें नासतालें. ताका लागून आपले आपुणूच वजें दवरपाखातीर वाटेर थरावीक अंतराचेर दवरणें उबारताले.

सादारणशें मनशाच्या भुजांचे उंचायेचें फातरांचें चवकोनी बांदकाम अशें दवरण्याचें स्वरूप आसतालें. माथ्यार वजें आशिल्लो मनीस मातसो बागोवन वज्याची एक कड दवरण्याचेर थारायतालो आनी मागीर दोनय हातांनी तें वजें दवरण्याचेर सरकट्टाले. विसव घेतले उपरांत परतून वजें माथ्यार घेता आसतना असोच बागोवन वज्याची एक कड माथ्यार घेताले आनी मागीर दोनूय हातांनी ओडून पुराय वजें माथ्यार सरकयतालो.

हें दवरणें दानशूर लोक कोणाचें तरी यादस्तीक म्हणून उबारताले. वा भौशीक संस्था लोकांचे सुविधेखातीर दवरण्याची वेवस्था करताले. पाणपोई सारकेंच दवरणें हें एक पुण्यकर्म मानप जातालें.

येरादारीची मुबलक सुविधा आशिल्ल्यान आयच्या काळांत अशा दवरण्यांची गरज नाशिल्ल्यान ल्हव - ल्हव करून हीं दवरणीं भूतकाळांत गेल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**दशावतार :** विष्णुचे धा अवतार. वायटाचो नाश, सज्जनाची राखण आनी धर्माची स्थापना हेखातीर परमेश्वर युगायुगांनी वेगवेगळे अवतार घेता, अशें भगवद्गीतेंत म्हळां. वेगवेगळ्या संदर्भांनी आनी वेगवेगळ्या युगांनी, श्री विष्णु देवान वेगवेगळ्या धा नांवांनी अवतार घेतले, हें हिंदू धर्माचे अवतार कल्पनेप्रमाण मानप जालां. पूण शिव, गणपती, देवी आदी देवतांनी अवतार घेतिल्ल्याच्यो कथा पुराणांत आसात. विष्णुच्या



धा अवतारांतले मत्स्य, कूर्म, वराह, वामन, परशुराम ह्या अवतारांचीं कथामुळां वेदीक साहित्यांत मेळटात. पुराणांनी विष्णूचे मुखेल धा अवतार मानल्यात. पूण भागवत पुराणांत विष्णुचे चोवीस अवतारय सांगल्यात. विष्णुन हे अवतार कित्याखातीर घेतले आनी ते खंयचे तिथीक घेतिल्ले तांची माहिती अशी :

१) मत्स्य : शंखासुराक मारपाखातीर आनी प्रलय काळांत मनूक राखपाखातीर - चैत्र शुध्द तय.

२) कूर्म : देव आनी दैत्य समुद्रमंथन करता आसतना रवीवरी वापरिल्लो मंदार पर्वत फाटीचेर तोलून धरपाखातीर - वैशाख पुनव.

३) वराह : हिरण्यक्ष राक्षसाक मारून उदकांत बुडपी धर्तरेक वयर काडपाक - भाद्रपद शुध्द तय.

४) नरसिंह : हिरण्यकश्यपूक मारपाखातीर - वैशाख शुध्द चतुर्दस.

५) वामन : बळी राजाक पातळांत धाडून धर्तरेची राखण करपाक - भाद्रपद शुध्द दुवादस.

६) परशुराम : सहस्त्रार्जुन कार्तवीर्याक मारपाखातीर आनी दुश्ट क्षत्रियांचो मस्ती निवळावपाखातीर - वैशाख शुध्द तय.

७) राम : रावणासारक्या राक्षसांचो नाश करपाक - चैत्र शुध्द नम.

८) कृष्ण : कंसासारक्या दुश्टाचो नाश करपाखातीर - श्रावण वद्य अश्टम.

९) बुध्द : यज्ञीय हिंसेचो अतिरेक थांबोवन सत्य आनी अहिंसा हांचो प्रसार करपाखातीर - आश्विन शुध्द दसम.

१०) कल्की : म्लेंच्छादी दुश्टशक्तींचो नाश करून धर्मस्थापना करपाखातीर चालू (कली) युगाच्या निमाणें श्रावण शुध्द सश्टी दिसा हो अवतार जातलो अशें कल्की पुराणांत सांगलां.

दशावताराची ही कल्पना उत्क्रांतिवादाचेर आदारिल्ली आसा अशेंय एक मत आसा. ॲनी बेझंट हिणें आपल्या 'अवतारान' (१९२५) ह्या पुस्तकांत अवतारांप्रमाण वेगवेगळीं युगां मानिल्लीं आसात. गीत गोविंदकार जयदेवान श्रीकृष्ण हो श्रेश्ठ देव मानून ताचे धा अवतार सांगल्यात. कृष्णाबदला तो बलराम हो आठवो अवतार मानता.

दशावतार नांवाचें एक व्रतय सांगिल्लें आसा. हें एक काम्य व्रत आसा. विष्णू पुराणाप्रमाण ह्या व्रताची सुरवात मार्गशीर्ष शुध्द दुवादशीक करपाची आसता. भविश्य पुराणांत भाद्रपद शुध्द दसम हो सुरवातीचो दीस सांगला. दरेका म्हयन्यांत हेच तिथीक दशावताराचे मुर्तीची पुजा करून तिका खाद्यपदार्थांचो निवेद्य दाखोवपाची चाल आसा. ह्या पदार्थांची संख्या तीस आसता. हातूंतले धा देवाक, धा ब्राह्मणाक आनी धा स्वताक दवरतात. असो क्रम धा वर्सांमेरेन पाळटात.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : अवतार.

**दशावतारी नाटकां :** लोकनाट्याचो एक प्रकार. हो उत्सव कार्तिकी पुनवेसावन चैत्र म्हयन्यामेरेन चलता. गोंय, कोंकण आनी महाराष्ट्रांत दशावतारी नाटकां चड प्रचलीत आसात. दशावतारी नाटकाचो इतिहास खूब पुर्विल्लो आसून तो इ. स. सातव्या शेंकड्यामेरेन पावता. कांय जाणांच्या मताप्रमाण इ. स. सातव्या शेंकड्यांत विष्णुपूरच्या मल्लराजान दशावतारी खेळाची चाल सुरू केल्ली. कर्नाटकांतलें यक्षगान हें ताचेंच मूळ रूप आसून हातूंतल्यान दशावतारी नाटकाचो उदेव जालो अशें म्हण्टात. रामदासाच्या दासबोधांत दशावतारी खेळाचो उल्लेख मेळटा. फुडें इ. स. १७२८त श्यामजी नाईक काळे हाणें हो दशावतारी खेळ कर्नाटकांतल्यान कोंकणांत हाडलो अशें म्हण्टात. ताचो पयलो प्रयोग अडिवरे ह्या गांवांत महाकाली देवीमुखार जालो. थंयच्यान ताचो प्रसार पुराय कोंकणांत आनी गोंयांत जालो असो उल्लेख 'आडिक्याची महाकाली' ह्या चिं. कृ. दीक्षित हाच्या पुस्तकांत मेळटा.

दशावतारी नाट्य करपी लोक चड करून देवळी जातीचे आसतात. ग्रामदेवतांच्या उपासकांतले लिंगायत आनी गुरव हेय दशावतारी नाट्य करतात. तांकां दशांत्री वा खेळये अशें म्हण्टात. ह्या लोकनाट्यांत विष्णुच्या धा अवतारांचें नाट्यरूप दर्शन घडयतात. हाचेवयल्यान ताका दशावतारी नाटक अशें नांव पडलां. ह्या नाटकांतल्या पात्रांचो अभिनय, भेस आदी प्रकार परंपरागत स्वरुपाचे आसतात. सुत्रधार कथासूत्र पध्दत चालू दवरता आनी पात्रां कथेच्या अनुरोधान उलयतात. नाटकांतले संवाद लिखीत नाशिल्ल्यान भितरलीं पात्रां उलोवपांत स्वातंत्र्य घेतात. ह्या नाट्याक मृदंग आनी पेटी हांची साथ आसता. ग्रामदेवतेच्या देवळामुखार आंगणांत माटोव घालून हें नाट्य करतात. रंगमाचयेर पात्रां येवंचेआदीं दोन मनशां येवन पड्डो धरतात आनी पात्राचो प्रवेश जातकच तो काडटात. हो मध्यान रातीर सुरू जावन सकाळमेरेन चलता.

सुर्वेक सुत्रधार रंगमाचयेर येवन गणपती-सरस्वतीक याद करपी कवन म्हण्टा. तें सोंपतकच ऋध्दिसिध्दीसयत गणपती रंगमाचयेर येता. ताचे फाटोफाट सरस्वती येता आनी सुत्रधाराक आशिर्वाद दिवन वता. उपरांत प्रत्यक्ष खेळाक सुरवात जाता. ह्या खेळांत सुर्वेक मत्स्यावतार आख्यानांतलो शंखासुराचो प्रसंग दाखयतात. हातूंत शंखासुराचें भाशण खुबूच विनोदी आसता. ताचे संवाद हे कोंकणी-मराठी अशे संमिश्र आसतात. शब्दांच्यो कोटी करप हें शंखासूर ह्या पात्राचें खाशेलेपण दशावतार नाटकाचें एक आकर्शण आसता. उपरांत थंय विष्णु येवन दोगांयचें झूज सुरू जाता. निमाणें शंखासुराक मारतकच मत्स्यावतार सोंपता. उपरांत कूर्म आनी वराह ह्या अवतारांचीं फकत सवंगांच दाखयतात. उपरांतच्या नरसिंह अवतारापसून मात खेळाक बरो नेट येता. हातूंत हिरण्यकश्यपू, कयाधू, प्रल्हाद, भालदार आनी नरसिंह हीं पांच पात्रां आसतात. गोंयांत दशावतारी खेळांत मत्स्यावतारा उपरांत कृष्णावतार सुरू जाता. नरसिंहावतारा उपरांत वामनावतारांत फकत वामन आनी बळी हीं दोनच पात्रां दाखयतात. ताचे उपरांत परशुरामाचो फकत उल्लेखच करतात. राम आनी कृष्ण ह्या दोन अवतारांतले मात बरेचशे मनोरंजक अशे कथाभाग दाखयतात. दशावताराचे प्रसंग सोंपतकच खेळये उषा-अनिरुध्द वा द्रौपदी स्वयंवर आदी पुराणीक आख्यानाचेर नाटक करतात. दीस उदेवंक लागतकच हें नाटक सोंपता आनी उपरांत राधा-कृष्णाची फुगडी-नाच जावन धंयकालो जाता. देखून हाका दशावतारी कालो अशेंय म्हण्टात.

तळकोंकणांतल्या दशावतारी खेळाचें स्वरुप हाचेपरस थोडें वेगळें आसता. ह्या प्रकारांत नाटक सुरू जावंचे आदीं पड्ड्या फाटल्यान 'धुमाळ' म्हळ्यार गायन जातालें. उपरांत मंगलाचरण आनी गणपती - सरस्वतीचो प्रवेश जातालो. फुडें ब्रह्मदेवाचो प्रवेश, शंखासुराचें वेदचौर्य आनी विष्णुकडल्यान ताचें परिपत्य आदी कथाभाग जातालो. उपरांत गोपी - कृष्णाच्यो लिला दाखयताले. निमाणें पुराणीक कथेचें आख्यान आसतालें. हें कथानक चार - पांच प्रवेशांत विभागिल्लें आसतालें. देवांचे, दानवांचे आनी बायलांचे अशे वेगवेगळे प्रवेश आसताले. रंगमाचयेर देव-दानव, राजा-राकेस हांच्या झुजांचीं दृश्यां दाखयताले. मृदंग आनी टाळ हांच्या आवाजान हें झूज जातालें. उपरांत राकेस हारतकच धंयहांडो फोडून धंयकालो जातालो.

गौळणकालो जातकच नाटकांतलें स्त्रीभेस धारण केल्लें पात्र हातांत आरती घेवन ती प्रेक्षकांमदीं फिरयतालें. जात्रेंतलें नाटक गौळण काल्यान सोंपिल्ल्यान हाका धंयकालो अशेंय म्हण्टाले. अजुनूय गोंयांत धंयकाल्याची चाल आसा. धंयकाल्याची सुरवात दनपारच्या दोन-तीन वरांचेर जाता आनी दशावतारी खेळ रातचो करतात.

देवांचें आनी राकेसांचें झूज हें दशावतारी खेळांतलें आनीक एक खाशेलेपण. ताचें भिरांकूळ अशें रूप अल्लदुर्ईच्यो किळंच्यो आनी तबलें, टाळ हांचो आवाज, हांकां लागून ह्या नाटकांक 'तागड्थोम' (ताकडधोम) वा 'अल्लदुर्ई'चीं नाटकां अशें म्हण्टाले.

- कों. वि. सं. मं.

**दसण :** (मराठी : जास्वंदी; हिंदी : जासुम, गुन्हाल; गुजराती : जसुंद, जसुबा; कन्नड : दसवला, दाशाळ; संस्कृत : जपा, अरुणा,

पद्मचारिणी; इंग्लीश : शू-फ्लॉवर, चायना रोझ; लॅटीन : हिबिस्कस, रोझा - सायनेन्सिस; कूळ : माल्वेसी).

वर्सांतले बाराय म्हयने फुलां दिवपी, खूब वर्सां जियेवपी आनी सदांच पाचवेंचार उरपी हें झोंप सादारण १ ते २.५ मी. ऊंच वाडटा. पानां सादीं, फुलां मोटीं आनी लांब देंठांचीं, फुलांचो आकार फुनेलासारको आनी ४ - ६ इंच व्यासाचीं आसतात. तांबडो, गुलाबी, धवो, हळदुवो, किरमिजी, जांबळो अशा विविध रंगांचीं आनी आकारांचीं फुलां जातात. दसण ही मूळ चीन देशांतली अशे उल्लेख मेळटात. पूण आतां ही वनस्पत संवसारांतल्या सगळ्या देशांनी पळोवंक मेळटा. भौशीक बागांनी तशेंच घराच्या पोरसांनी ही वनस्पत दिश्टी पडटा.

दशणीचे कांय मुखेल प्रकार आसात ते अशे :

**गोंड्याची दसण** : हो दशणीचो प्रकार मूळ आफ्रिका देशांतलो, पूण हालीं तेंपार आमच्या देशांतल्या पोरसांनी लायिल्लो दिसता.

**निळी दसण** : ही जात मूळची चीनांतली आसून सद्या सगळ्याक लायिल्ली दिसता.

**चीनी कंदील** : ही मूळ दक्षिण अमेरिकेंतली दसण, सुमार ३ मी. ऊंच वाडटा. हेभायर आनीक कितल्याशाच प्रकारांच्यो आनी जातींच्यो दशणी संकर करून विकसीत केल्यात.

दसण फकत फुलांचें आनी सोबेचें झाड. ह्या झाडाक फळां जायनात. हालींच संकर करून विकसीत केल्ल्यो कांय ओडलायण्यो, फुलांच्या दशणीच्यो जाती आसात त्यो अशो : ब्ल्यू बर्ड, स्ट्राँग ब्ल्यू कोयलेस्ट, डीप ब्ल्यू, हमाबो आरडनस.

दशणीची लागवड कलमांपसून करतात. ९ - १२ इंच लांबायेच्यो खांदयो लावन नवी लागवड करतात.

पोरसांनी हीं झाडां चड करून वंयेक लायिल्लीं दिश्टी पडटात. मोटवे जातीच्यो दशणी कुंड्यांनी रोयतात. दसण कसलेय जमनींत लावपाक जाता. पूण सुपीक जमनींत दशणीची बरी वाड जाता.

दशणीक रोग वा किडींची बादा व्हडलीशी जायना. फुलां कुसप हो रोग केन्नाकेन्नाय जावं येता.

दशणीचीं फुलां, मुळां, साल ह्या भागांचे वेगवेगळे उपेग आसात. तांबडे दशणीचीं फुलां गणपतीक घालतात. दशणीचीं फुलां काळ्या बुटाक चिड्डून घांसल्यार बरी चकचकसाण येता. तेचखातीर दसणीक इंग्लिशीन शू-फ्लावर अशें म्हण्टात. फुलांपसून जो तांबडो रंग मेळटा तो खावपाचे पदार्थ तयार क़रपाखातीर वापरतात. जोर आयिल्ल्या मनशाक फुलांच्यो पाकळ्यो थंड उदकांत बुडोवन काडिल्लो अर्क पियेवपाक दितात. तशेंच सूज आयिल्ल्या जाग्यार फुलां चोळ्ळ्यार सूज देंवता. दशणीच्या मुळांचो रोस कफाच्या विकाराचेर वापरतात. झाडाचे सालीपसून धागे तयार करतात. कांयकडेन ह्या फुलांचो खावपाखातीर (सार, लोणचें) उपेग करतात.

– विश्राम गांवकार

**दसरो** : हिंदूंचो एक म्हत्वाचो सण. आश्विन शुध्द दसम हे तिथीक दसरो वा विजयादशमी ह्या नांवान वळखतात. दुस्मानावांगडा झुजांत मेळिल्ल्या जैताची खोशी मनोवप हो ह्या उत्सवाफाटलो संदर्भ आसा. आश्विन शुध्द प्रतिपदेसावन नमी मेरेन णव राती (नवरात्र) जातकच हो दीस येता. ह्या उत्सवाची म्हायती मार्कंडेय पुराणांत आनी दुसऱ्या कांय पुराणांनी मेळटा ती अशी : पुर्विल्ल्या काळांत महिषासूर नांवाचो राक्षस आशिल्लो. सगळ्या देवांचेर ताणें जैत जोडिल्लें आनी ताका लागून ताका मस्ती मारिल्ली. निमाणें ब्रह्मा, विष्णु आनी महेष हाणीं आपल्या शक्तीच्या वंशापसून आयुधां धारण केल्लीं शक्तीदेवी निर्माण केली आनी महिषासूराचो नाश करपाक धाडली. हे शक्तीदेवीन णव दीस भिरांकूळ झूज करून धाव्या दिसा महिषासूराक मारलो आनी सगळ्यांक संकटांतल्यान मुक्त केले. तेन्नाच्यान हे शक्तीदेवीक महिषासूरमर्दिनी म्हण्टात. हें झूज आश्विन शुध्द प्रतिपदेसावन शुध्द नमीमेरेन चलिल्लें. ह्या णव रातींक तिणें शुंभ, निशुंभ, रक्तबीज अशा हेर राक्षसांचोय वध केल्लो आनी धाव्या दिसा महिषासूराचेर जैत जोडलें. देखून ह्या दिसाक विजयादशमी म्हण्टात आनी उमेदीन हो दीस मनयतात.

ह्या दिसाविशीं हेर म्हायती मेळटा ती अशी : ह्याच दिसा रामान रावणाचेर जैत जोडपाक प्रस्थान केल्लें. ह्याच दिसा अर्जूनान अज्ञातवास सोंपोवन शमीच्या झाडार दवरिल्लीं आपलीं अस्त्रां काडिल्लीं.

ह्या दिसा शिमोल्लंघन, शमीपुजन, अपराजितापुजन आनी शस्त्रपुजा हीं कृत्यां करतात. पुर्विल्ल्या काळांत अपराण्हकालांत गांवचे शिमेभायर ईशान्य दिशेक शिमोल्लंघनाखातीर वताले आनी जंय शमी वा आपट्याचें झाड दिसता थंय थांबून त्या झाडाची पुजा करताले. शमीच्या झाडापोंदा अपराजिता देवीची मूर्त काडून तिची पुजा करताले. अपराजिता म्हळ्यार दुर्गा आसून तें तिच्या रागीट रुपाचें एक प्रतीक. ह्या दिसा राजा, श्रीमंत सरदार आपलीं शस्त्रां निवळ करून तांची पुजा करताले. तांचेभायर शेतकार, कारागीर आपआपलीं अवजारां, हत्यारां आनी यंत्रां हांची पुजा करताले. ह्या दिसा भांगर (आपट्याचीं पानां) वांटपाचीय प्रथा आशिल्ली. हेविशीं एक पुराणकथा आसा ती अशी – कौत्स ह्या याचकाक दिवपाक चवदा कोटी भांगराच्यो मुद्रा हाडपाखातीर रघुराजान कुबेराचेर घुरी घाली. तें पळोवन कुबेर भियेलो आनी ताणें धर्तरेवयल्या शमीच्या एका झाडाचेर भांगर ओतलें. तेन्ना रघुराजान फावो तितलें भांगर काडून कौत्साक दिलें आनी उरिल्लें आपले प्रजेक वांटलें. त्या दिसासावन आयजमेरेन दसऱ्या दिसा भांगर म्हणून आपट्याचीं वा शमीचीं पानां दिवपाची चाल आसा.

दसरो हो भारतांतलो सार्वत्रीक सण आसून सगळ्या जातींतले लोक हो सण पाळटात. उत्तर भारतांत ह्या दिसाक आगळेंच म्हत्व आसा. ह्या दिसा ते रामायणांतले कांय प्रसंग घेवन रामलिला सादर करतात आनी रावणाच्या पुतळ्याचें दहन करतात. कुलू देगणांतले लोक आपल्या रघुनाथ ह्या देवाचो उत्सव ह्या दिसा मनयतात. तमीळनाडूंतूय दसऱ्याक आयूध पुजा करतात. महाराष्ट्रांत ह्या दिसा शिमोल्लंघन करून आपट्याची पुजा करतात आनी उपरांत ताचीं पानां भांगर म्हणून एकामेकांक दितात. म्हैसूरच्या दसऱ्याचीय एक आगळीच नामना आसा. चंडी देवीन ह्या दिसा महिषासूराक म्हैसूरा लागसारच मारलो अशी दंतकथा थंय आसा. ह्या दिसा थंय व्हड मिरवणूक काडटात. राजस्थानांत ह्या दिसा रजपूत लोक आपल्या गुरूचें दर्शन घेवंक वतात आनी शमीची पुजा करतात. ठाकूर बायलो ह्या दिसा दसऱ्याचो नाच करतात.

**गोंयचो दसरो** : गोंयांत हो उत्सव भोवतेक सगळ्याच ल्हान-व्हड देवळांनी मनयतात. देवाची पालखेंत मिरवणूक काडून गांवचे शिमेर व्हरतात, जाका शिमोल्लंघन म्हण्टात. थंय मागीर आपट्याच्या झाडाची

पुजा करून ताचीं पानां एकामेकांक वांटून सदित्सा दितात. हाका 'भांगर लुटप' अशें म्हण्टात. कांयकडेन, विशेश करून पेडण्यां, आमोण्यां, बांदोड्या दसरो वेगळे पद्दतीन आनी मोठ्या प्रमाणार जाता. भार आनी ताच्या खांदयावयलीं तरंगां हें हांगाचें खाशेलपण. दसऱ्याक कौल घेवपाची पद्दत कांयकडेन आसा. बरेच कडेन दसऱ्या दिसा कोंबे, बोकड्याचो बळी दिवपाची पद्दत चालू आसा. तशेंच कांयकडेन प्रतिकात्मक अशें शस्त्रपुजन करप जाता.

– म. कृ. अभिषेकी

– कों. वि. सं. मं.

**दस्यू :** वेदकाळांतलो एक मानवसमूह. यास्क, सायणाचार्य आनी मनू हांणी ह्या शब्दाची व्याख्या अशी केल्या –

'दस्युर्दस्यच्च क्षयार्थादुपदस्यन्त्यस्मिन् रसा उपदासयन्ति कर्माणि'।

अर्थ – दस्यू हो शब्द दस् = नाश करप ह्या क्षयार्थक धातूवयल्यान आयिल्लो आसून, दस्यू हे रसांची हानी आनी कर्माचो विध्वंस करतात. मनुस्मृतींत सांगलां की ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शुद्र हांच्यांतल्यो कांय जाती क्रियालोपा सारक्या गजालींक लागून चातुर्वर्ण्यांतल्यान भायर पडल्यो; अशे जातीचे म्लेंच्छ भास उलोवपी आनी आर्यभास उलोवपी जे लोक ते सगले दस्यू. ऐतरेय ब्राह्मणांत (७.१८) म्हळां की चडशे दस्यू विश्वामित्रासावन उत्पन्न जाल्यात. अंध्र, पुंड्र, शबर, पुलिंद, मूतिब अशीं तांचीं नांवां थंय दिल्यांत.

दस्यू शब्द ऋग्वेदांत खूब सुवातींनी आयला. सामान्यपणान ताचो अर्थ मनशाचो दुस्मान असो जाता. ऋग्वेदांत दस्यूंक खूब विशेशणां लायिल्लीं दिसतात. लुडबे उलोवपी आनी विरोधी भास उलोवपी अशें एक विशेशण लायलां. इंद्राक जाणें मारलो, तो वत्र दस्यू (दास) आशिल्याचें म्हळां. वृत्राचो अहीकडेन संबंद आशिल्लो. अही म्हळ्यार नाग. ताचेवयल्यान दस्यू हे नागवंशी आसूंक जाय, अशें कांय जाणांचें मत आसा. शिश्नदेव आनी मूरदेव हीं तांचीं ऋग्वेदांतलीं आनीक दोन विशेशणां.

अव्रत (व्रतांचें आचरण न करपी), अयज्वान (यज्ञ न करपी), अकर्मन् (कर्म न करपी), अदेवयु (देवांविशीं उदासीन वा देवनिंदा करपी) हीं तांचीं हेर विशेशणां आसात. हीं विशेशणां आर्य आनी दस्यू हांचेमदलो धर्मीक भेद दाखयतात, अशें म्हण्टात. ह्या दस्यूंचो इंद्रान पराभव वा वध केलो, अशें ऋग्वेदांत म्हळां.

कीथ आनी मॅक्डॉनेल हाणीं दस्यू ही अतीमानवी योनी आशिल्ली असो तर्क केला. दस्यू हे मायावी आशिल्ले, अशा उल्लेखांचो आदार घेवन कांय जाणांनी दस्यू म्हळ्यार आर्यांच्याच मदले जादुगिरी करपी, चकवे वा चेटकी लोक आशिल्ले, अशें म्हळां.

दस्यू हे कोण आशिल्ले, हें निश्चीतपणान सांगप कठिणूच जालां. जाणीं सिंधू संस्कृताय निर्माण केली, ते लोक म्हळ्यार दस्यू अशें मत श्री. प्र. रा. देशमुख हाणीं ऋग्वेदांतल्या कांय उल्लेखांचो आदार घेवन दिला. मोहेंजोदडो आनी हडप्पांतल्या उत्खननांत जीं भोंवतणीं खंदक आनी तटबंदी आशिल्लीं नगरां मेळिल्लीं, तीं ह्या दस्यू लोकांनीच उबारिल्लीं. हीं शारां इंद्रान नश्ट केलीं म्हळ्यारूच इंद्राक सर्वश्रेश्ठ देव मानपी आर्यांनी नश्ट केलीं, अशें श्री. देशमुख हाणें फुडें म्हळां.



पुराणांनी आभीर आनी म्लेंच्छ हांकां दस्यू अशें म्हळां. वायू पुराणांत दस्यूंचो धर्मूय सांगला. ययातीन दस्यूंचेर नियंत्रण दवरिल्लें, अशें ब्रह्मांड पुराणांत सांगलां. कृष्ण निजधामाक वतकच ताच्या सोळा हजार बायलांक घेवन अर्जून हस्तिनापूराक वता आसतना वाटेंत त्या सगळ्या बायलांचो दस्यूंनी अपहार केलो. दस्यूचें मुखेल शस्त्र सोटो हें आशिल्लें. तशेंच ते गायांची हत्या करताले अशेंय वायू पुराणांत सांगलां. दस्यू म्हळ्यार आर्यांपयलींच्या भारतांत वशिल्ले आनी जांची संस्कृताय त्या काळांत वैदिक आर्यांचे संस्कृतायेपरस उंचेली आशिल्ली, अशे द्रवीड लोक आशिल्ले अशेंय कांय संशोधकांचें मत आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**दहशतवाद :** दहशत (अराजक) निर्माण करपी मानसीक प्रवृत्ती. एके खाशेले तत्त्वप्रणालींतल्या एका पंथान आपणायिल्ली आचारप्रणाली. दहशतवाद हो तसो खऱ्या अर्थान वाद वा तत्त्वप्रणाली न्हय. तत्त्वीक नदरेन अराज्यवादाच्या एका फांट्याचो तो कृतीरूप आविश्कार.

राजकीय, अर्थीक आनी केन्नाकेन्ना धर्मीक उद्दिश्टां सादपाखातीर संघटीतपणान हिंसात्मक मार्गान, समाजांत भंय निर्माण करतात, तेन्ना ताका 'दहशतवाद' अशें म्हण्टात.

क्रांतीच्या काळांत, चळवळींत वा संपासारकिल्या एकवटींत उठावांत, जहाल मताचो गट आक्रमक पद्दतीन, प्रस्थापीत यंत्रणा उमथून वा संबंदीत लोकांचेर हल्लो करून एके तरेचो भंय निर्माण करता. ह्या भंयाचो आदार घेवन हो गट फुडें आपलें अपेक्षीत उद्दिश्ट साध्य करपाच्या वावराक लागता. अशा वेळार समाजांत शस्त्राचो धाक दाखोवन, दहशत पातळावन, आपलें म्हत्व दाखोवन दिवपाचो दहशतवादी गटाचो यत्न आसता. देशांतल्या मुखेल व्यक्तींचेर हल्ले करप, तांचे खून करप, मालमत्ता काबार करप वा इबाड करप, ह्या सगळ्या गजालींचो आस्पाव दहशतवादी कृत्यांनी जाता. दहशतवादाचें मूळ अराज्यवाद्यांच्या अराजकांत मेळटा. शासन आनी ताचे कायदे हे सभावीक जिणेक नसाय आसून, कायद्यांसयत शासन उमथून उडोवंक जाय अशी अराज्यवाद्यांची धारणा आसता. अराज्यवादाच्या म्यिखायल बकुन्यिन ह्या रशियी भाश्यकारान पयलीं 'कृतीन प्रचार' हें सुत्र मांडलें. भंय आनी दहशत तयार जातलीं अशीं कृत्यां करून समाजाची उदरगत वा राज्यक्रांती घडोवन हाडची, असो ह्या सुत्राचो अर्थ आसा.

दहशतवाद हो नश्टकारी आसलो तरी संवसारांतल्या मुखेल उलथापालथींत ताचो उपेग सगळ्या थरांनी जाल्लो दिसता. वैयक्तीक तशेंच भौशीक वा राश्ट्रीय उद्दिश्ट पुर्ततेखातीर एक खात्रेचो तसोच जलद परिणाम दिवपी उपाय म्हणून ताचो आदार घेतिल्लो आसा. भौशीक वा राश्ट्रीय उद्दिश्ट पुर्ततेखातीर केल्ल्या दहशतवादाचें समर्थनय जालां.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन भारतीय राजकारणांत हें दहशतवादाचें वा सशस्त्र क्रांतीवादाचें राजकारण जल्माक आयलें. हिंदुस्थानांत बंगालाचे फाळणे वेळार (इ. स. १९०५) दहशतवादाचो वापर केलो. त्या वेळार दहशतवादाक चड वाव मेळ्ळो. अरविंद घोष हाचो भाव बारिंद्रकुमार घोष आनी विवेकानंदाचो भाव भूपेंद्रनाथ दत्त हाणीं १९०५–०६ वर्सा बंगाली तरण्याट्यांभितर ह्या सशस्त्र क्रांतीवादाचो

प्रसार केलो. ह्याच सुमाराक महाराष्ट्रांत नासिकाक वि. दा. सावरकर हाणें 'अभिनव भारत' हे संस्थेची स्थापणूक करून तरणाट्यांक सशस्त्र क्रांतीवादाची दिक्षा दिवपाक सुरवात केली. १८९७ वर्सा पुण्याक दामोदर चाफेकर हाणें थंयचो कमिशनर रँड हाचो खून केलो. रशिया आनी इटलींत, चड करून इटलींतल्या मॅझिनी, गॅरिबाल्डी हांच्या उदाहरणावयल्यान स्फूर्त घेवन दहशतवादी तरणाट्यांनी गुपीत संघटना काडल्यो. नाझी जर्मनी आनी फॅसिस्ट इटली हीं दोनूय राजकीय दहशतवादी कारकिर्दीचीं उदाहरणां. हीं सरकारां आपल्या कायद्यांची अंमलबजावणी करतालींच पूण सरकारी धोरणाक विरोध जावंचो न्हय इतली दहशतय ताणीं निर्माण केल्ली.

पयल्या म्हाझुजा वेळार युरोप-अमेरिकेंतूय भारतीयांनी अशा क्रांतीकारक संस्थांची स्थापणूक केल्ली. लाला हरदयाळ हाणें अमेरिकेंत हिंदी क्रांतीकारकांच्या 'गदर' पक्षाची स्थापणूक केली. १९११ वर्सा लॉर्ड हार्डिंग हो दिल्लींत येतना मिरवणुकीचेर जाल्लो बॉमस्फोट, कलकत्त्याच्या माणिकांतलो बॉमस्फोट, चितगाँग शस्त्रागाराचेर घाल्लो दरोडो, नासिकांतल्या कलॅक्टर जॅक्सन हाचो खून, लाहोरांत जाल्लो सॉंडर्सचो खून, तशेंच भगतसिंग, सुखदेव, राजगुरू हाणीं मध्यवर्ती विधीमंडळांत घाल्लो बॉम हीं सगळीं दहशतवादी तरणाट्यांनी गाजयिल्लीं कृत्यां. तांच्यांतलें गोळार गेल्ले खुदिराम बोस, भगतसिंग, सुखदेव, राजगुरू, चंद्रशेखर आझाद हांकां सुटकेझुजांतल्या इतिहासांतले राश्ट्रवीर म्हणून वळखतात. फुडें महात्मा गांधी हाणें पुरस्कृत केल्ल्या निशस्त्र प्रतिकाराच्या प्रभावाखाला भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींत, दहशतवादाचें प्रमाण खुबूच उणें जालें. फुडल्या काळांत येवपी संघर्शाची सरकाराक वा समाजाक जाण करून दिवप हो दहशतवादाचो एक म्हत्वाचो हेत आसता. उकत्या प्रचाराक जंय परवानगी नासता, खाशेल्या उद्दिश्टांखातीर झगडपी झुजारी व्यक्तींची संख्या जेन्ना उणी आसता वा तांचें बळगें उणें पडटा थंय दहशतवाद वाडटा. गेल्ली सत्ता परतून मेळोवपाखातीर केन्नाकेन्नाय ताचो वापर करतात. दोनय तरांनी पुराय वेगळीं वेगळीं आशिल्ल्या शासन पद्दतींच्या फाटीराख्यांमदलो संघर्शूय दहशतवादी कृत्यांक जल्म दिता. फकत सत्ताधारी गटाकूच न्हय जाल्यार जनसामान्य जनतेकय दहशतवाद दाखोवंक सोदता की, प्रस्थापीत सत्ता आतां सुरक्षीत उरूंक ना. तिकाय् कोणें तरी आव्हान दिलां. दहशतवादाच्या डावपेचांत दहशतवादी कृत्यांची दखल घेतली ना जाल्यार दहशतवाद निरुपयोगी थारता.

सरकारान दाखयल्ली जबरदस्ती आनी दहशतवाद हातूंत फरक आसा. सरकाराचो धाक कायद्याचे अंमलबजावणे खातीर आसा अशें दाखयता. पूण दहशतवादांत कायदो उकतेपणीं पांयांखाला माड्डिल्लो दिसता. सरकाराचें नितीधैर्य उणें करपाखातीर क्रांती वा प्रतिक्रांतीचे दिशेन पावल घालपाखातीर विरोधक दहशतवादाचें शस्त्र वापरतात. जमावाकडल्यान जावपी बेकायदेशीर सशस्त्र उठाव आनी दहशतवाद हांचें लागींचें नातें आसा, कारण दोगांयकडल्यान जबरदस्तीन विध्वंस घडोवप जाता. पूण उठाव वा बंड हें चडशे खेपे पयलीं थरयल्लें नासता. पूर्व तयारी करिनासतनाच तें घडटा. हाचे उरफाटें, दहशतवाद हो पूर्वनियोजीत आसता. झूंडशाय ही एक अशीच अराजक निर्माण करपी समुह-प्रवृत्ती. झूंडशाय भोवतेक करून दहशतवादाचो आदार घेता.

दहशतवाद हो खात्रीचो आनी जलद परिणाम दिवपी उपाय आसलो तरी मानवतावादी नदरेंतल्यान तो विध्वंसी आनी म्हणून तिरस्करणीय थारता. म्हणून अहिंसात्मक चळवळीचेर भरवंसो दवरून आशिल्ल्या महात्मा गांधी सारकिल्या शांतीप्रीय फुडाऱ्यांनी ताचो निशेध केलो.

हालीं पंजाबांत खलिस्तानाचे मागणेखातीर आनी काश्मीरांत स्वतंत्र कश्मीराखातीर दहशतवादी तंत्राचो जो वापर करप चलला, ताचोय शांतीप्रिय समाजाकडल्यान निशेध जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**दळवी, जयवंत द्वारकानाथ :** (जल्म : १४ ऑगस्ट १९२५, आरवली; मरण : १६ सप्टेंबर १९९४, बोरिवली - मुंबई.)

नामनेचो मराठी साहित्यीक. सिंधुदुर्ग (महाराष्ट्र) जिल्ह्यांतल्या वेंगुर्ले तालुक्यांत आरवली हांगा ताचे मूळ घराणें. ताणें कोंकणांतल्या शिरोड्या गांवांत इंग्लीश पांचवी मेरेनचें शिक्षण घेतलें. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा तो मुंबय गेलो. थंय इंजिनियरींगचें शिक्षण अदर्यार सोडून ताणें मुंबई विद्यापिठाची मानसशास्त्र ह्या विशयांत एम्. ए. पदवी मेळयली.

१९४४ ते १९५१ ह्या काळांत ताणें सुर्वेक 'दैनिक प्रभात' आनी उपरांत 'दैनिक लोकमान्य' ह्या दिसाळ्यांत उपसंपादक आनी खबरांकार म्हणून नोकरी केली. १९५१ सावन मुंबयच्या 'यु. एस्. इन्फर्मेशन सर्व्हिस' हातूंत तो नोकरी करूंक लागलो. निमाणें हेच संस्थेत 'मुखेल प्रकाशन अधिकारी' ह्या पदाचेर आसतना १९७६त ताणें निवृत्ती घेतली. ह्या पदार आसतना अमेरिकन साहित्याचो मराठी अणकार करून घेवपाच्या कार्यक्रमात ताणें जबर फुडाकार घेतिल्लो. ताची बायल उमा जयवंत दळवी, चलो गिरीश आनी चली शुभांगी नेरुरकर असो ताचो घराबो आसा.

जयवंत दळवी हाच्या साहित्यीक वावराची सुरवात कथाबरपान जाली. 'दातार मास्तर' ही ताची पयली व्यक्तिचित्रात्मक कथा १९४८त साप्ताहिक 'नवाकाळ'त उजवाडाक आयली, १९६० मेरेन तो फकत कथाच बरयतालो. १९६३त ताची 'चक्र' ही कादंबरी उजवाडा आयली आनी मराठी साहित्याच्या मळार लेखक म्हणून ताका मान्यताय मेळ्ळो. १९७० उपरांत तो नाट्य लेखनाकडेन वळलो. फुडें नाट्य लेखनातच ताका सुमाराभायर नामना आनी लोकप्रियता मेळ्ळी. कथा, कादंबरी आनी नाटक ह्या साहित्य प्रकारावांगडाच विनोदी बरपांतय ताणें आपलें नांव दवरलां. ताचीं ६० परसय चड पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. ताचीं उजवाडा आयिल्लीं पुस्तकां अशीं आसात :

**(१) कथासंग्रह** : गहिंवर (१९५६), एदीन (१९५८), जळातील मासा (१९६१), फक्त पुरुष (१९६३), आश्रम (१९६४), रूक्मिणी (१९६५), स्पर्श (१९७४), स्वप्नरेखा (१९८२), सुखदुःखाच्या रेषा (१९८२), निराळा (१९८४), स्त्री पर्व (१९८६), घर कौलारू (१९८७), वेचक जयवंत दळवी (१९८७), सांजरात (१९८८), सोनाली (१९८९), श्रीकांत (१९८९).

**(२) कादंबऱ्यो** : 'चक्र' (१९६३), सारे प्रवासी घडीचे (१९६४), स्वगत (१९७०), महानंदा (१९७०), अर्धांग (१९७७), वेडगळ (१९७८), 'सावल्या आणि प्रवाह' (दोन कादंबऱ्यो एकठांय - १९७९), धर्मानंद (१९८०), आल्बम (१९८३), अधांतरी (१९८३), श्रीमंगलमुर्ती आणि कंपनी (१९८३), ऋणानुबंध (१९८४), कहाणी (१९८४), सुर्यास्त

(१९९३), 'चक्रव्युह' (१९९३).

(३) **नाटकां** : सभ्य ग्रहस्थ हो (१९७३), संध्या छाया (१९७४), बॅरीस्टर (१९७७), सुर्यास्त (१९७८), महासागर (१९८०), दुर्गी (१९८१) सावित्री (१९८२), पुरुष (१९८३), मालवणी सौभद्र (१९८५), मुक्ता (१९८५), पर्याय (१९८५), किनारा (१९८७), हरी अप हरी (१९८७), स्पर्श (१९८७), कालचक्र (१९८८), नाती गोती (१९९१), अपूर्णांक (१९९४), संसारगाथा (१९९४).

(४) **विनोदी लेखन** : फजितवाडा (१९६१), मिशी उतरून देईन (१९६५), कशासाठी पोटासाठी (१९६५), विक्षिप्त कथा (१९७२), उपहास कथा (१९७४), सरमिसळ (१९८०), गंमतीच्या गोष्टी (१९८३), विरंगुळा (१९९४).

(५) **एकांकिका** : 'कावळे आणि इतर एकांकिका' (१९६०).

(६) **भोंवडेवर्णन** : 'लोक आनी लौकिक' (१९८५).

(७) **आपजीण** : 'आत्मचरित्राशिवाय' (१९९५).

ताचें हेर साहित्य अशें आसा : 'निवडक ठणठणपाळ' (१९६९), 'आणखी ठणठणपाळ' (१९८९), 'साहित्यीक गप्पा (१९८६), परममित्र (१९९४), अलाणे फलाणे (१९९४).

ताणें संपादित केल्ली बरपावळ : पु. ल. एक साठवण (१९७९), 'द बेस्ट ऑफ जयवंत दळवी' हें दळवी हाच्या कांय वेंचीक साहित्याचें संपादन, संपादक सुभाष भेंडे (१९९५).

जयवंत दळवी हाच्या साहित्याचेर जायते हिंदी - मराठी चित्रपट आनी दूरदर्शन माळोय प्रसारीत जाल्यात. ताचे हिंदी चित्रपट : चक्र, महानंदा, रावसाहेब, पुरुष, हे आसून हातूंत 'रावसाहेब' ह्या चित्रपटाक आंतरराष्ट्रीय पुरस्कार फाव जाला. ताच्या महानंदा आनी पुढचं पाऊल ह्या दोन मराठी चित्रपटांक तशेंच 'चक्र' ह्या हिंदी चित्रपटाक राश्ट्रीय पारितोषिकां फाव जाल्यांत.

चित्रपटांवांगडाच आव्हान, अधांतरी, हसरतें आनी सावल्यो ह्यो ताच्या साहित्याचेर आदारीत दूरदर्शन माळो प्रसारीत जाल्यात.

ताच्या साहित्याक जायते पुरस्कार आनी भोवमान मेळ्ळ्यात. हे पुरस्कार अशे आसात; महाराष्ट्र राज्य पुरस्कार, चक्र (१९६४), रुक्मिणी (१९६५), सारे प्रवासी घडीचे (१९६६), स्पर्श (१९७४), संध्या छाया (१९७५).

बऱ्या नाट्य लेखनाखातीर 'नाट्यदर्पण' पुरस्कार : बॅरिस्टर, महासागर, सूर्यास्त, पुरुष, कालचक्र, दमाणी पुरस्कार (१९९१), कलागौरव पुरस्कार (१९९४), राम गणेश गडकरी पुरस्कार (१९९४), कोंकण मराठी साहित्य परिशदेवतीन 'कोंकण भूषण साहित्य पुरस्कार' (१९९४) हे पुरस्कार ताका फावो झाल्यात.

दळवी हाच्या साहित्याचे हिंदी, गुजराती, कानडी, तमिळ, तेलुगू आती इंग्लीश भासांतल्यान अणकार जाल्यात.

जयवंत दळवी हाणें कथा, कादंबरी, नाटक आनी विनोद ह्या चारय साहित्यीक मळार आपली अशी खास छाप तयार केली. चक्र आनी स्वगत ह्यो कादंबऱ्यो, बॅरीस्टर, पुरुष, संध्या छाया हीं नाटकां आनी ठणठणपाळ ह्या नांवान मराठी साहित्य विश्वाचेर मार्मिक आनी मिष्कील टिप्पणी करपी विनोदी लेखन हीं जयवंत दळवी हाणें मराठी साहित्याक दिल्ली मोलादीक देगणी.

– डॉ. वासुदेव सावंत

**दक्ष :** प्रजोत्पत्ती करपी पुर्विल्लो ऋषी. कश्यप, मरीची, अत्री, भृगू, ऋतू आदी ऋषीप्रमाण दक्ष होय एक प्रजापतीच. हाचेभायर ताचो उल्लेख विश्वेदेव, आदित्य, आनी मनू असोय करतात. दरेका युगाचे स्वतंत्र मनू आनी स्वतंत्र दक्ष मानिल्ले आसात. दक्ष अदितीपसून जल्मलो आनी अदितीचो जल्म दक्षापसून जालो अशें ऋग्वेदांत म्हळां. पूण यास्कान हाजेर विरोध परगटायला.

दक्षाची उत्पत्ती ब्रह्मदेवाच्या आखाण्यापसून जाली अशें विष्णुपुराणांत म्हळां. पूण ताच्या जल्माविशीं वेगवेगळ्या तरांच्यो कथा पुराणांत मेळटात. दक्ष हो प्राचेतसाचो चलो आसून ताणें आपल्या मनापसून सृश्ट निर्माण केली. ताणें स्वायंभुव मनूच्या प्रसुती नांवाचे चलयेकडेन लग्न केलें. तिचेपसून ताका सोळा चलयो जाल्यो. तातूंतल्यो तेरा ताणें धर्मप्रजापतीक दिल्यो. उरिल्ल्या तिनांतली स्वाहा अग्नीक, स्वधा अग्निष्वात्त पितरांक आनी सती ही शिवाक दिली. ब्रह्मदेवाच्या दाव्या आखाण्यापसून जल्मल्ली चली ही ताची दुसरी बायल. तिचेपसून ताका पांचशें चलयो जाल्यो. ताचेपसून फुडें प्रजा निर्माण जाली, अशें हें कथाचें सार आसा.

ब्रह्मदेवाच्या एका यज्ञांत शिवान दक्षाचो अपमान केलो. देखून मांव - जांवयामदीं वांकडेपण आयलें. फुडें दक्षान आपल्या बृहस्पतीसव नांवाच्या यज्ञांत शिवाक आपोवप दिलेंना. आकाशसंचारी देवाकडल्यान सतीक यज्ञाची बातमी कळटकच ती शिवगणां वांगडा एकलीच यज्ञमंडपांत आयली. थंय तिचो अपमान जालो. देखून तिणें यज्ञाग्नींत जीव दिलो. हें कळटकच शिवान आपले जटेपसून वीरभद्र आनी भद्रकाली हांकां उत्पन्न करून तांचेकडल्यान दक्षयज्ञाचो विध्वंस करून दक्षाक जिवो मारून घेतलो. तेन्ना सगले देव आनी ऋषी शिवाक शरण गेले. शिवाचे कृपेन ब्रह्मदेवान एका बोकडाचें तोंड दक्षाच्या धडाक जोडलें आनी ताका जितो केलो.

दक्ष ह्या नांवाचो एक धर्मशास्त्रकार आसा. ताच्या नांवाचेर दक्षस्मृती नांवाचो ग्रंथ मेळटा. ही स्मृती खूब खूब पोरणी. कारण याज्ञवल्क्यानय दक्षाचो उल्लेख केला. हातूंत सात अध्याय आनी २२० श्लोक आसात. हातूंत चार आश्रम द्विविध ब्रह्मचर्य, द्विजांचीं नित्यकर्मां, आश्रमधर्म, जननाशौच, मृताशौच, षडंगयोग, णव गोपनीय आनी णव घोषणीय कृत्यां दान ना दिवपाच्यो वस्तू गृहिणीधर्म, भिक्षूकव्य आदी विशयांचीं वर्णनां आसात.

दक्ष ह्या नांवाचो एक पुर्विल्लो समाज आशिल्लो. ताचें राज्य वायव्येकडल्या आनी उत्तरेकडल्या देशांनी आशिल्लें अशें पणिनी सांगता. पाणिनीकय दाक्षिपूत अशें म्हण्टात.

– कों. वि. सं. मं.

**दक्षणां :** धर्मकृत्त्यां (यज्ञ, होम, हवन) करपी पुरयताक दिल्लो मोबदलो. सद्या हो दुडवांच्या रुपान दितात आसलो तरी एका काळार तो भांगर, गाय, बैल, घोडो, बोकडो, धान्य, वस्त्र सारकिल्ल्या वस्तूंच्या रुपान दिवप जातालें. आयच्या काळांत दक्षणेचो संदर्भ मोबदल्यापुरतो उरला आसलो तरी वैदिक आनी पुराणकाळांत दक्षणेक धर्मीक अधिष्ठान आसलें. दक्षणा दिलेबगर धर्मीक कार्य पुराय जायना अशें ऐतरेय ब्राह्मणांत म्हळां.

यज्ञोऽदक्षिणो रिष्यति तस्मादाहु:
दातव्यैव यज्ञे दक्षिणा भवत्यल्पिकापि । (ऐतरेय ब्राह्मण ६.३५)

**अर्थ** – दक्षणेबगर यज्ञ सफल जायना म्हणून उणी आसली तरी दक्षणा ही दिवंकच जाय. ब्रह्मवैवर्त पुराणांत ताचेफुडें वचून अशें सांगलां की, दक्षणा दिली ना, उणी दिली जाल्यार येजमान पातकी जाता आनी ताच्यो कितल्योशोच पिळग्यो नरकांत पडटात.

दक्ष म्हणजे पूर्ण, जें पुराय जाल्लें नासता तें पुराय जावपाक जें दिवप जाता ताका दक्षणा म्हण्टात अशें निरुक्त ग्रंथांत सांगलां.

'यज्ञादिसम्पादकतदन्त विहितदानम्'

**अर्थ** – यज्ञा सारकिल्या कृत्याचें फळ मेळचें म्हणून निमाणेकडेन दिवपी दानाक दक्षणा म्हण्टात.

वैदिक काळांत यज्ञांनी दक्षणा म्हणून भोवतेक करून गायो दिवपाची प्रथा आशिल्ली. यज्ञांतल्या माटवांत ह्या गायांनी यज्ञवेदीक प्रदक्षणा काडपाची आसताली. फुडें 'प्र' गळून दक्षणा हें नामकरण सगळ्याच तरांच्या मोबदल्याक पडलें आसुंये असोय एक विचार आसा.

दक्षणा आनी दान हांचेमदीं व्हडलोसो फरक करूंक येना आसलो तरी सगळ्याच दानांक मोबदल्याचो संदर्भ लावंक मेळचोना. खूबदां दान हें सत्पात्र मनशाक, ताचे कडसून कसल्याच कामाची अपेक्षा धरिनासतना दिवप जाता. दान जशें ना मागप्यांक दिवप जाता तशें तें याचकाकय दिवप जाता. दक्षणा मात धर्मकृत्य करतल्याकच दिवप जाता. दानाचें स्वरूप भेटीचें आसता जाल्यार दक्षिणेचें स्वरूप बिदागीचें आसता. दानाफाटल्यान धर्मीक संदर्भावांगडाच समाजीक कर्तव्याची जाणविकाय आसता. दक्षणेचें प्रयोजन धर्मीक स्वरुपाचें आसता.

दक्षणेचो पुरयताचे बिदागीकडेन लागींचो संबंद आशिल्ल्यान पुरयतांनी दक्षिणा ही यज्ञाची बायल आशिल्ल्याची कल्पना केली, आनी तांचेविशीं अशी कथा निर्माण केली.

एक फावट देवांनी व्हड यज्ञ केलो. पूण ताचें फळ तांकां मेळ्ळेंना. तेन्ना ते ब्रह्मदेवाक शरण गेले. तेन्ना ब्रह्मदेवान नारायणाचें ध्यान केलें. नारायणान लक्ष्मीच्या देहापसून दक्षणा नांवाची बायल उत्पन्न करून ब्रह्मदेवाक दिली. ताणें ती यज्ञरुपी मनशाक समर्पण केली. यज्ञमनशान तिचो बायल म्हणून स्विकार केलो. तेउपरांत तिका फल नांवाचो पूत जालो आनी ताका लागून देवांचे सगळें मनोरथ पूर्ण जाले. (देवी भागवत .४५)

दक्षणा ही रुची आनी आकुती ह्या दांपत्याची चली आनी सुयज्ञापसून तिका तुषित नांवाचे १२ पूत जाले अशीय एक कथा आसा.

यज्ञ हो दक्षणेचो भाव अशीय कल्पना आसा. पूण तो विष्णूचो अवतार आशिल्ल्यान तिचो भाव आसुनूय तो दक्षणेकडेन लग्न जालो. (भागवत पुराण ४.१)

दक्षणेक प्रजापतीची धूव आनी बारा यामदेवांची आवय अशें म्हळां.

– कों. वि. सं. मं.

## दक्षिण आफ्रिका प्रजासत्ताक : (रिपब्लीक ऑफ साऊथ आफ्रिका).

आफ्रिका खंडाच्या दक्षिण पोंतार आशिल्लो एक सार्वभौम प्रजासत्ताक देश. विस्तार २२° ७' दक्षिण ते ३४° ५२' दक्षिण आनी १६° २९' उदेंत ते ३२° ५६' उदेंत इतलो आसून ताचें क्षेत्रफळ १२,२१,०४२ चौ. किमी. इतलें आसा. लोकसंख्या ४०,८००,००० (१९९१). ताची उत्तर – दक्षिण आनी उदेंत – अस्तंत लांबाय लागींलागीं सारकीच आसा. (सु. १,६०० किमी.) ताचे वायव्य दिशेक नामिबिया (नैर्ऋत्य आफ्रिका), उत्तरेक बोट्स्वाना आनी ऱ्होडेशिया, ईशान्येक मोसांबीक आनी स्वाझीलँड, आग्नेय आनी दक्षिणेक हिंदी म्हासागर जाल्यार अस्तंतेक आनी दक्षिणेक ॲटलांटिक म्हासागर आसा. देशाचीं वेगळींवेगळीं तीन राजपाटणां आसात. केप टाव्न – संसदीय, प्रिटोरिया – प्रशासकीय आनी ब्लुमफॉंटेन – न्यायीक.

**भूंयवर्णन** : भूंयविज्ञानीक नदरेन दक्षिण आफ्रिकेक सगळ्यांत पोरणीं अशीं तळपां आसात. ह्या देशाचो चडसो भाग सड्यार आसून ग्रेट एस्कार्पमेंट हे ल्हानशे दर्या देगेसावन तो वेगळो जाल्लो आसा. ह्या सड्यावयल्या प्रदेशाची सरासरी उंचाय १,२००ते १,५०० मी. इतली आसा. देशाचे उदेंतेक आशिल्लो ड्रेकन्सबर्ग हो सगळ्यांत उंचेलो पर्वत आसून ताची उंचाय ३,३५३ मी. परस चड आसा. तबाना एंतलेनयाना हें ह्या पर्वतामदलें सगळ्यांत उंचेले तेमूक (३,४८२ मी.). हो पर्वत लावाच्या खूब थरांपसून तयार जाल्लो आसा. अस्तंतेक सड्याची उंचाय सुमार १,८०० मी. इतली आसा. उत्तर मध्य ब्रह्मदेशांत आशिल्ल्या कालाहाटीच्या रेंवट देगणाचो कांय सखल भाग ह्या देशांत मोडटा. दक्षिणेक सड्याची कड आनी दर्यादेगांमदीं सोंपणांचे मंच सांपडटात, तांकां ग्रेट कारू आनी लिटल कारू अशें म्हटणत. दक्षिण दर्यादेगेचें मळ साप अशीर आनी ऊंच-सकल आसा. उदेंत दर्यादेगेर नाताळ प्रांताचें मळ आसा. पूण अस्तंत देगेर ५० ते १२० किमी. रुंदायेचो नामिब रेंवट प्रदेश आसा. दक्षिणेच्या पोंतार आशिल्ल्या दोंगरा ओळींनी केप आगुल्यश आनी केप ऑफ गूड होप हीं भूशिरां निर्माण जाल्लीं आसात.

हांगा पावस खूब उणो आनी नेमान पडनाशिल्ल्यान उदका येरादारीक फावो अशी एकूय न्हंय ना. अस्तंत वाहिनी ऑरेंज न्हंय ही सगळ्यांत व्हड न्हंय आसून, तिची लांबी सुमार २,१७६ किमी. आसा. व्हॉल आनी कॅलेडॉन हे तिचे मुखेल फांटे आसात. गिमाच्या दिसांनी ह्या न्हंयांतल्यान साप उणें उदक व्हांवता. लिंपोपो ही देशाच्या उत्तर वाठारांतल्यान व्हांवपी मुखेल न्हंय. तिची लांबाय सुमार १,७७० किमी. आसून, ती ह्या देशांतली दुसरी व्हड न्हंय. ड्रेकन्सबर्गाचे वायव्य देंवतेचेर उगम जाल्ली ही न्हंय ईशान्येक बोट्स्वाना, ऱ्होडेशिया आनी दक्षिण आफ्रिका हांचे शिमेवयल्यान व्हांवत वचून मुखार मोसांबीका मदल्यान हिंदी म्हासागराक मेळटा. ऑलिफंट, मारिको आनी सँड रिवर हे लिंपोपो न्हंयेचे मुखेल फांटे. हेर सड्यावयल्या प्रदेशांत उगम पावपी न्हंयो मोटव्यो आनी अशीर आसून त्यो नेटान व्हांवत वचून दर्याक मेळटात.

**हवामान** : देशाचो उत्तर भाग सोडल्यार हेर सगळ्या प्रदेशाचो समशितोशण कटिबंदांत आस्पाव जाता. उत्तर भाग मकरवृत्ताकडेन आशिल्ल्यान त्या भागांतलें हवामान उशण आसता. गिमाच्या दिसांनी उशणताय मातशी चड आसून, तापमान २१° ते २४° मेरेन आसता. शिंयाळो ऊबदार आसून भितरल्या पठारी पप्रदेशांनी तापमान १० ° परस उणें आसता. कांय वाठारांनी तें ४° सॅ. मेरेन आसता. गिमाच्या दिसांनी देशाच्या चडशा भागांतलें हवामान सुकें च आसता. तेचपरी, देशाच्या चडशा भागांनी गिमाच्या दिसांनी पावस पडटा. पावसाचें सरासरी प्रमाण ४४. सेंमी. इतलें आसा. पूण सगळेकडेन पावस एकसारको पडना. नाताल दर्यादेगांनी आनी ड्रेकन्सबर्ग सड्याच्या वाठारांनी सरासरी पावस १५० सेंमी. परस चड पडटा. पूण नैर्ऋत्येक आशिल्ल्या कारू

वाठारांत सरासरी २५ सेंमी. इतलो पावस पडटा. साबार वाठारांनी पावस नेमान पडनाशिल्ल्यान, शेतवडीचेरूय ताचो वायट परिणाम जाता.

**वनस्पत आनी मोनजात** : हांगाचीं रानां पातळ आसलीं तरी संवसारांतल्या २०० मुखेल वनस्पती समुहांतल्यो सुमार १४० वनस्पतींच्यो जाती ह्या देशांत सांपडटात. तशेंच, तांच्यो १,६०० चे वयर उपजाती आसात. उदेंतेकडेन आशिल्लो ऊंच सड्याचो प्रदेश हो ह्या देशांतलो सगळ्यांत बरो तणाचो प्रदेश आसून देशाच्या हेर प्रदेशांनी सुमार ५०० वयर तणांचे प्रकार आसात. उंचायेप्रमाण तांचे 'हाय वॅल्ड' आनी 'लो वॅल्ड' अशे विभाग केल्ले आसात. अस्तंत दिशेक आशिल्ल्या कारू भागांत एक ते देड मीटर मेरेन लांबायेची मरुस्थली (ढ्झ्ताळ्ळ्ड्डीदद) झाडां आनी झोंपां सांपडटात. ट्रांस्वाल, नाताळ दर्यादेगांनी, लो वॅल्डांत सावाना तरेचीं तणाचीं मळां आसात.

सतराव्या शेंकड्यांत जेन्ना युरोपी वसणूकवादी हांगा पावले, त्या वेळार हांगा साबार जातींची मोनजात आशिल्ली. तातूंत शींव, वाग, बिबटे, हत्ती,, कोले, हिप्पोपोटॅमस, काळविट, रानरेडे हांचो आस्पाव जातालो. हेर देशांप्रमाण आयज मोनजातीचें प्रमाण हांगाय खूब उणें जालां. उरिल्ले मोनजातीची जतनाय घेवपाखातीर दक्षिण आफ्रिका सरकारान साबार अभयारण्यां उबारल्यांत. अद्दो राश्ट्रीय उद्यान हतयांखातीर आनी बॉटेबाक राश्ट्रीय उद्यान बिबट्यांखातीर प्रसिद्ध आसा. हांगा ९०० परस चड प्रकारांचीं सवणीं आनी सुमार २०० प्रकारांचें विखयाळे तशेंच सादे सोरोपूय आसात.

**इतिहास** : युरोपी वसणूक सुरू जावंचे पयलीं दक्षिण आफ्रिकेंत बुशमॅन, हॉटेंटॉट ह्या थळाव्या लोकांचो राबितो आशिल्लो. वेपाराच्या निमतान भारतांत येवपाखातीर उदकामार्गाचो सोद लायतां लायतां, बार्थोलोमेव दीयश ह्या पुर्तुगेज तारवट्यान केप ऑफ गूड होप भूशिराचो सोद लायलो. डच वेपाऱ्यांचो उदेंत देशांकडेन वेपार वाडलो तशें ताणींय वेपारी मार्गावयलें मुखेल ठाणें म्हणून १६४१त केपाक एक किल्लो उबारलो. डच इस्ट इंडिया कंपनीन ह्या प्रदेशांत १६५२ सावन वसणूक करपाक सुरवात केली. १७९५ मेरेन सुमार १५,००० डच लोकांचो दक्षिण आफ्रिकेंत राबितो आशिल्लो. हातूंत चड करून कंपनीच्या कामांतल्यान निवृत्त जाल्ल्या अधिकाऱ्यांचो आस्पाव आशिल्लो. मुखार फ्रेंच ह्युजेनॉट्स, जर्मन, मलाया तशेंच मोसांबीक, उदेंत आनी अस्तंत आफ्रिकेसावन हाडिल्ल्या गुलामांची भर पडली.

डच आनी जर्मन वसणुकांक थिराय आयले उपरांत ताणीं हांगाची बरीच भूंय लागवडीखाला हाडली. हांगाचे मातयेक आनी हवामानाक फावो अशीं पिकां घेवपाक सुरवात केली. हातूंत गंव, द्राक्षां आनी लिंबू ह्या फळांचोय आस्पाव आशिल्लो. हांगा तणाचीं व्हड मळां आशिल्ल्यान ताणीं गोरवां आनी मेंढरांय पोसपाक सुरवात केली. मुखार ल्हव - ल्हव करून तांचे वसणुकेचो विस्तार उत्तरेकडेन आनी अस्तंतेकडेन जालो. हांगाच्या डच आनी जर्मन वसणूकवाद्यांच्या वंशजांक उपरांत आफ्रिकेतर लोक म्हणून वळखुपाक लागले. ब्रिटीश लोकांचो भारताकडेन वेपार सुरू जाले उपरांत उदकामार्गातलें म्हत्वाचें. ठाणें म्हणून १८०६त ताणीं केप टाव्न हातासलें. ब्रिटीशांनी हांगा वसणूक करपाक सुरवात केल्या उपरांत ताणीं नातालांत ऊंसाचे मळे उबारले. ह्या मळ्यांनी वावुरपाखातीर ताणीं साबार भारतीयांक थंय व्हेल्ले.

ब्रिटीश लोकांचो हांगा शेक वाडपाक लागलो आनी तांचे वसणुकेचो विस्तार जावपाक लागलो, तेन्ना ते आनी 'बोर' (डच वसणूककार) लोकांभितर झगडीं जावपाक लागलीं. १८३६त बोर लोक तांची मुळावी सुवात सोडून ते उदेंतेकडच्या सड्याच्या भागाचेर वचून रावले. हे घडणुकेक दक्षिण आफ्रिकेच्या इतिहासांत 'म्हाप्रस्थान' अशें म्हण्टात. बोर आनी ब्रिटीश हांचेमदल्या झगड्यांक लागून दक्षिण आफ्रिकेंत व्हाल न्हंयेचे उत्तरेक ट्रांसवाल आनी दक्षिणेक ऑरेंज फ्री स्टेट अशीं दोन बोर प्रजासत्ताक राज्यां अस्तित्वांत आयलीं. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत हांगा हिऱ्यांचो आनी भांगराचो सोद लागिल्ल्यान ह्या देशाच्या इतिहासाक वेगळें मोडण लागलें. हिरे आनी भांगराखाणींत भांडवल लावन रोखडेच गिरेस्त जावंचे हे आशेन वेगवेगळ्या प्रदेशांतल्यान हजारांनी लोक हांगा आयले. भांगराची खाण बोरांच्या प्रदेशांत आशिल्ली. पूण तें काडपाखातीर तांचेकडेन भांडवल आनी कुशळ कामगार नाशिल्ले. हाका लागून ताणीं ब्रिटीश भांडवल तशेंच कामगार हांकां आपल्या वाठारांत येवपाक दिले. हेखातीर ब्रिटीशांक खूब कर भरचो पडटालो. तेचपरी बोर लोकांनी तांकां ह्या प्रदेशाचें नागरिकत्वूय न्हयकारिल्लें. हाचो परिणाम म्हणून १९१०त व्हड बोर झूज जावन त्याच वर्सा हेरीनिनिंग कबलातीवरवीं ब्रिटीश साम्राज्याभितर दक्षिण आफ्रिका संघराज्य निर्माण जालें.

दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत आफ्रिका खंडांतल्या साबार देशांक स्वातंत्र्य मेळ्ळें, पूण ह्याच तेंपार गोऱ्या लोकांनी द. आफ्रिकेंत आपणायल्ल्या वर्णदुस्वाशी धोरणाचेर टिका जावपाक लागली. ह्याच कारणावयल्यान इंग्लंड आनी दक्षिण आफ्रिका हांचेमदीं मतभेद जावन ३१ मे, १९६१ दिसा हो देश 'ब्रिटीश कॉमनवॅल्थ' मदल्यान भायर सरून प्रजासत्ताक देश जालो.

देशाक प्रजासत्ताक हो दर्जो मेळ्ळे उपरांत अल्पसंख्येंत आशिल्ल्या गोऱ्या लोकांच्या सरकारान वर्णदुस्वाशी (Apartheid) धोरण आनीक खर केलें. १९७१ ल्या 'बांटू होमलॅंड्स कॉंस्टिट्युशन ॲक्ट' ह्या कायद्यावरवीं ट्रान्सकेई, बॉफूथाट्स्वाना, वेंदा आनी सिस्केई ह्या वंशीक गटांक स्वयंशासन दिल्लें. हेर मुखेल वंशीक गटांकूय कांय प्रशासकी सवलती दिल्ल्यो. १९९०त वर्णदुस्वाशी धोरणांत बदल जावन ह्या वर्सासावन हांगाच्या काळ्या लोकांक कांय प्रशासकी सवलती मेळपाक लागल्यो. ह्याच वर्सा 'आफ्रिकन नॅशनल कॉंग्रेस' ह्या काळ्या लोकांच्या पक्षाचेर घाल्ली बंदी काडून तांचो मुखेली नॅल्सन मांडेला हाची २७ वर्सांचे राजकीय बंदिवासांतल्यान सुटका केली.

१९९२-९३त नॅल्सन मांडेलाच्या फुडारपणाखालचो आफ्रिकन नॅशनल कॉंग्रेस पक्ष आनी झुलू इन्कारथा पक्ष हांचेमदीं तंटे जायत रावले. डिसेंबर १९९३त तात्पुरती राजघटना तयार करून, एप्रिल ९४त भोववंशी सरकार स्थापनेचे वटेन पावल घालें. एप्रिल ९४ तले वेंचणुकेंत आ. नॅ. कॉं. भौमत मेळून १० मेक नॅल्सन मांडेला हो पयलो काळो मनीस अध्यक्ष जावन, दक्षिण आफ्रिका हें काळ्या लोकांचें नवें राज्य घडलें.

**राजकीय स्थिती** : नॅल्सन मांडेला हो दक्षिण आफ्रिकेचो राश्ट्राध्यक्ष जावंचे पयलीं गोऱ्या लोकांच्या व्हडपणाचेर आदारून देशाचे कायदे केल्ले. पूण नॅल्सन मांडेला हो द. आफ्रिका प्रजासत्ताकाचो अध्यक्ष जालेउपरांत देशाच्या सगळ्या नागरिकांक राजकीय नदरेन समान हक्क मेळ्ळ्यात.

देशाचो राज्यकारभार संसदी पद्दतीन चलता. अध्यक्ष, हाऊस

ऑफ ॲसँब्ली, हाऊस ऑफ रिप्रेझेंटेटिव्ह, आनी हाऊस ऑफ डेलिगेट्स मेळून संसद तयार जाता. अध्यक्ष हो प्रजासत्ताकाचो मुखेली आसून सिनेट आनी ॲसँब्लीचे वांगडी एकठांय येवन ताका पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात. सिनेट आनी ॲसँब्ली हांच्यो सभा घडोवन हाडपाचे, स्थगीत करपाचे वा बरखास्त करपाचे सगले अधिकार राश्ट्राध्यक्षाक आसात. वर्सांतल्यान उण्यांत उणें एकदां तरी ताणें दोगांयची बसका घडोवन हाडूंक जाय अशें घटनात्मक बंधन आसा. सिनेट हें वरिश्ठ सभाघर आसून तातूंत ५४ वांगडी आसात. तातूंतल्या १० वांगड्यांची नेमणूक राश्ट्राध्यक्ष करता.

(एप्रिल १९९४त काळ्या लोकांचें सरकार सत्तेर आयले उपरांतचे बदल हांगा दिवंक मेळूंक नात.)

**न्याय** : हांगाची न्यायवेवस्था मुखेलपणान रोमन - डच तत्त्वांचेर आदारिल्ली आसा. सुप्रीम कोर्ट हें देशाचें सर्वोच्च न्यायालय आसून ताचे अपेलेट डिविजन आनी प्रॉविन्शियल डिविजन अशे दोन भाग आसात. अपेलेट डिविजन हो भाग मुखेल न्यायाधीश आनी राश्ट्राध्यक्ष खाशेल्या खटल्यांखातीर जितल्या न्यायाधिशांची नेमणूक करता तितल्यांचोच मेळून तयार जाता. हें देशांतलें सर्वोच्च न्यायपीठ, पूण ताची निर्मिती आनी कार्यक्षेत्र फावो तेन्नाच थारता. प्रोव्हिन्शियल डिव्हिजन हो सुप्रीम कोर्टाचो दुसरो वांटो आसून ते सगळ्या प्रांतांनी आस्पावल्यात.

**संरक्षण** : दक्षिण आफ्रिका देशाची संरक्षण वेवस्था पर्मनंट फोर्स, सिटिझन फोर्स आनी कमांडो ऑर्गनायझेशन हातूंत विभागिल्ली आसा. पर्मनंट फोर्स हातूंत कायम स्वरुपाचे अधिकारी तशेंच सैनीक, भूंयदळ, नौदळ आनी विमानदळ हातूंतले लोक आसतात. शांततायेच्या काळांत पुराय संरक्षण दळ प्रशिक्षीत करपाची जापसालदारकी ह्या विभागाची आसता. पर्मनंट फोर्स तशेंच सिटिझन फोर्स हातूंत भूंयदळ, नौदळ आनी विमानदळ हांचो आस्पाव जाता, पूण कमांडो दळांत फकत भूंयदळ आनी विमानदळ हातूंतले लोक आसतात. देशाभितल्या संरक्षणाखातीर पोलीस यंत्रणा आसा.

**अर्थीक स्थिती** : दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत दक्षिण आफ्रिका हो देश अर्थीक मळाचेर खूब फुडारिल्लो आसून, उत्पादनाचे बाबींत ह्या देशान नेटान यत्न केल्लो आसा. शेतवड, मीन (खाणकाम) आनी उत्पादन हांचेर देशाची अर्थीक स्थिती आदारिल्ली आसा.

**शेतवड** : देशांत शेतवडीक चड म्हत्व आसा. हांगाची जमीन पिकाळ आसा, पूण हवामानाची उणी साथ आनी जमीन ऊंच - सकल आशिल्ल्यान शेतवडीचें क्षेत्र मर्यादीत उरलां. देशांत सरासरी फकत १८ इंच इतलोच पावस पडटा. देशाचें चडशें हवामान समशीतोश्ण आशिल्ल्यान हांगा पडपी पावस लागवडीखातीर साप उणो पडटा. कृत्रीम उदका पुरवणूय मर्यादीत आसा. ह्या सगळ्या अडचणींक लागून शेतकी उत्पादनाचो वांटो, देशाच्या वट्ट उत्पादनांत फकत ७% इतलो आसता. देशांतल्या वट्ट कामगारांतले सुमार ३०% कामगार शेतवडींत वावुरतात. हाका लागून ह्या वेवसायाक हांगा म्हत्व आसा. मको हें हांगाचें म्हत्वाचें पीक. गंव, ऊंस, भिकणां, कड्डण, लिंबू जातीचीं फळां, द्राक्षां, तंबाकू हीं पिकांय म्हत्वाचीं आसात. गोरवां, बोकडां, कुकडां तशेंच दुकरां पोसपाचो वेवसायूय दिसानदीस वाडत आसा. रानांपसून मेळपी येणावळूय देशाचे अर्थीक वेवस्थेक हातभार लायता.

**खनीज उत्पादन** : देशांत तरेकवार खनिजांचे व्हड सांठे आसात. भांगर आनी हिऱ्यांभायर हेर ७० तरांचीं खनिजां हांगा सांपडटात. भांगर आनी हिरे हांच्या उत्पादनांत ह्या देशाचो पयलो क्रमांक लागता. हेर खनिजांभितर तांबें, लोखण, मँगनिझ, ॲस्बेस्टोस, क्रोम, रुपें, बेरीलीयम, ॲंटिमनी, लात आनी प्लॅटिनम हांचो आस्पाव जाता.

**उद्येग** : उद्येग-धंद्याच्या मळार हो देश खूब फुडारिल्लो आसून, १९८० ते १९९० ह्या काळांत उद्येग-धंदे खूब भरभराटीक आयले. उद्येग - धंद्यासावन मेळपी येणावळीचो वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांत व्हड वांटो आसता. जोहानिसबर्ग, केप टाव्न, पोर्ट एलिझाबॅथ आनी इस्ट लंडन हे देशांतले म्हत्वाचे उद्येगीक प्रदेश आसात. पोलाद, लोखण, गाडयांचे मेकळे भाग, यंत्रसामुग्री, रसायनां, कपडो, शिमीट, कागद, अन्नप्रक्रिया, जोतीं, तारवां आनी विमान बांदणी हांचो उद्येगीक म्हालांत आस्पाव जाता. गाडयांचे मेकळे भाग, कपडो, रसायनां, लोखण, पोलाद आनी अन्नप्रक्रिया उद्येगांनी सद्या नेटान वाड जायत आसा. भांडवल गुंतवणूक व्हडा प्रमाणांत जायत आशिल्ल्यान, उद्येग - धंदयांत खूब वाड जाल्ली आसा.

भांगर, रुपें, लोकर, लोखण आनी फळांची निर्यात जाता जाल्यार, अन्नपदार्थ, पेयां, तंबाकू, रसायनां, खनीज तेल हांची आयात जाता. दक्षिण आफ्रिका, बोट्स्वाना, लेसोथो आनी स्वाझीलॅंड हे देश आयात - जकात संघाचे वांगडी आसून आयात - निर्यात एकठांयूच जाता.

रॅंड हें देशाचें चलन आसून १०० सॅंट मेळून १ रॅंड जाता. अर्थवेव्हारांत १/२, १, २ सॅंटांची कांश्याचीं नाणीं आसात, जाल्यार १, २, ५, १० आनी २० रॅंडांच्यो नोटी आसात. 'साऊथ आफ्रिकन रिझर्व बॅंक' ही देशाची मध्यवर्ती बॅंक आसून नोट प्रचालनाधिकार आनी चलनविशयक नितीचे कारवायेचे सगळे अधिकार तिचेकडेन आसात. हिचेभायर देशांत हेर साबार वेपारी आनी बचत बॅंको आसात.

**येरादारी आनी संचारण** : हांगाच्यो न्हंयो अशीर, उथळ आनी ऊंच सकल आशिल्ल्यान देशाभितर उदका येरादारी जावंक शकना. बंदरांक आनी शारांक जोडपी रेल्वे मार्ग आनी रस्त्यांचीं जाळीं मात साबारकडेन पातळ्ळ्यांत. जण एक राज्य आपआपल्या रेल्वेमार्गाचेर देखरेख दवरता. रस्त्यावयल्यान जावपी येरादारीचेंय प्रमाण बरेंच व्हडलें आसा. सामान हाडपा - व्हरपांत रेल्वेभितर कोळशाचो चवथो वांटो, हेर खनीज म्हालांचो तिसरो वांटो आनी शेतकी म्हालाचो आठवो वांटो आसता. डर्बन, केप टावन, पोर्ट एलिझाबॅथ आनी इस्ट लंडन हीं हांगाचीं मुखेल बंदरां. आयात - निर्यातीचे सगळे वेव्हार चडशे ह्या बंदरांतल्यान जातात. साऊथ आफ्रिकन ॲरवेस ही हांगाची विमान येरादारी सांबाळपी संस्था. जोहानिसबर्गा लागशिल्लो जान स्मट्स, केप टावनांतलो डी. एफ. मालन आनी डर्बानांतलो लुई बोथा हे हांगाचे आंतरराश्ट्रीय विमानतळ. देशाभितर एके सुवातेसावन दुसरेकडेन वचपाखातिरूय विमान येरादारीची बरी वेवस्था आसा.

टेलिफोन आनी टपाल सेवा खूब फुडारिल्ल्यो आसात. साऊथ आफ्रिकन ब्रॉडकास्टिंग ही हांगाची निमसरकारी आकाशवाणी यंत्रणा. वेगवेगळ्या आकाशवाणी केंद्रांतल्यान इंग्लीश आनी आफ्रिकी भाशेंतल्यान राश्ट्रीय कार्यावळी प्रसारीत जातात. दक्षिण आफ्रिकेंत, दूरचित्रवाणीची वेवस्था जानेवारी १९७३ सावन सुरू जाली.

**लोक आनी समाजजीण** : हांगाचो समाज सादारणपणान चार वंशीक गटांमदीं विभागिल्लो आसा. दरेका गटाची भाशेवयल्यान आनी

रहाणीमानावयल्यान मुखार आनिकूय विभागणी केल्ली आसा. जे कोण आपूण गोरे कातीचे म्हणून हेरांसावन वेगळे राविल्ले आसात, तांची आफ्रिकानेर (बोर) आनी ब्रिटीश लोक अशी विभागणी जाल्ली आसा. आफ्रिकानेर हे मुखेलपणान डच आनी फ्रॅंच आनी कांय प्रमाणांत जर्मन लोकांचे वंशज आसून ते आफ्रिकान्स भास उलयतात. ब्रिटीश गोरेकातीचे लोक इंग्लीश भास उलयतात. गोरे लोकसंख्येंत ६०% आफ्रिकानेर हांचो आस्पाव जाता.

गोऱ्यांभायर हेर विंगड विंगड वंशीक गटांचेंय वितरण असमान आसा. आफ्रिकी वा बांटू, मिश्रवर्णी आनी आशियी हे हेर मुखेल गट आसात. देशाचे वट्ट लोकसंख्येंत ७०% आफ्रिकी लोक आसात. तांची लोकसंख्या नेटान वाडत आसा. ऑरेंज फ्री स्टेट सोडल्यार उरिल्ल्या हेर राज्यांनी बांटू लोकांचें प्रमाण चड आसा. पूण तांचें राहणीमान साप्प सकयल्या दर्ज्याचें. काळे लोक भोवसंख्येन आसले तरी देशाचें चडशें धन, उद्येगधंदयांचें धनीपण आनी राजकीय सत्ता गोऱ्या लोकांच्या हातांतूच एकवटिल्ली आसा. पुण नॅल्सन मांडेला हाच्या फुडारपणाखाला "आफ्रिकन नॅशनल कॉंग्रेस" पक्ष सत्तेर येतसावन ही परिस्थिती बदलत आसा. सद्या आफ्रिकी लोकांक साबार सवलती आनी अधिकार मेळ्ळ्यात. पूण आयज लेगीत गोऱ्या लोकांचें राहणीमान देशांतल्या हेर गटांपरस बरें आसा. ऑरेंज फ्री स्टेट ह्या घटक राज्यांत फकत गोऱ्याच लोकांचो राबितो आसा.

बांटूंभायर थळाव्या आफ्रिकी लोकांमदीं बुशमॅन आनी हॉटॅटॉट हांचोय आस्पाव जाता. देशांतल्या आफ्रिकी गटांत संस्कृतीक आनी वंशीक नदरेन खूब वेगळेपण दिश्टी पडटा. तशेंच, ते वेगवेगळ्या भागांनी शिंवरून रावतात. उत्तर आनी उदेंत भागांनी तांचें प्रमाण चड आसा. बांटूंभितर खोसा, झुलू, सोथो, त्स्वाना, त्सोंगा, स्वाझी, व्हेंडिया, बेचूआना, मॅतबीली आनी हेर वेगवेगळ्यो जाती आनी जमाती आस्पावल्यात. नवी जीण जियेवपाचे आशेन काळे लोक व्हडा प्रमाणांत शारांनी वतात. कांय वाठार काळ्या लोकांखातीर वेगळे दवरल्यात. पूण चडशे आफ्रिकी लोक खेडयांनीच रावतात. जाल्यार साबार लोक गोऱ्या लोकांच्या मळ्यांनी वा उद्येगधंदयांनी वावुरतात.

भरसण जाल्ल्या लोकांमदीं मलाया आनी आफ्रिकी गुलाम तशेंच हॉटॅटॉट आनी गोऱ्या लोकांचे वंशज आसून ते भोव भाशीक आसात.

आशियाई हो देशांतलो सगळ्यांत ल्हान वंशीक गट. तो मुखेलपणान नाताल प्रांतांत दिश्टी पडटा. हांगा तांचो राबितो १८६० उपरांत सुरू जालो. ब्रिटीश लोकांनी नातालांतल्या आपल्या ऊंसाच्या मळ्यांनी वावुरपाखातीर भारतीय लोकांक व्हेल्ले. उपरांत तांचो समुदाय वाडत रावून आयज हांगाचे वट्ट लोकसंख्येंत तांचें प्रमाण ३% वयर आसा. ह्या गटांतले साबार लोक सद्या वेपारी, मळ्यांची शेतवड करपी, उद्योगपती वा उद्येगीक कामगार म्हणून वावुरतात.

**भासो** : इंग्लीश आनी आफ्रिकान्स ह्यो देशाच्यो अधिकृत शासकीय भासो आसात. आफ्रिकान्स ही सतराव्या शेंकड्यांत डच भाशेसावन तयार जाल्ली आसून चडशा गोऱ्या आनी भरसण जाल्ल्या लोकांची ती मायभास. हेर गोरे लोक इंग्लीश भाशेचो वापर करतात. थळावे आफ्रिकी लोक आपल्याआपल्या वाठारांतली भास उलयतात. खोसा, झुलू, पेडी, सोथो, त्स्वाना, त्सोगां, स्वाझी, व्हेंडीया ह्यो मुखेल आफ्रिकी भासो आसात.

**शिक्षण** : स्वतंत्र जावंचे पयलीं दक्षिण आफ्रिकेंत सात ते सोळा वर्सां पिरायेच्या गोऱ्या लोकांक शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आशिल्लें. पूण स्वातंत्र्य मेळटकच, गोरे आनी काळे असो भेद करिनासतना शिक्षणाच्यो सवलती सगळ्यांक उकत्यो जाल्यात.

**म्हत्त्वाची थळां** : जोहानिसबर्ग हें देशांतलें सगळ्यांत व्हड शार. हें शार भांगराचे खाणींक लागून प्रसिद्द आसा. हांगा तीन विमानतळ, विद्यापिठां, वेधशाळा तशेंच व्हड व्हड कारखाने, खाणी आनी वेपारी कंपन्योय आसात. जर्मिस्टनाक भांगर शुध्द करपाचो सगळ्यांत व्हडलो कारखानो आसा. केप टावन ही देशाची संसदीय राजधानी आसून तें एक व्हड बंदरूय बी. सोबीत बागो आनी मळे आशिल्लें डर्बान हें शार हिंदी म्हासागरावयलें म्हत्वाचें बंदर. तशेंच तें म्हत्वाचें उद्येगीक आनी वेपारी केंद्र आसून थंय आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. प्रिटोरिया ही देशाची प्रशासकीय राजधानी. ब्लुमफॉंटेन ही देशाची न्यायीक राजधानी. इस्ट लंडन हें म्हत्वाचें शार तशेंच नुस्तेंमारी बंदर.

– कों. वि. सं. मं.

## दक्षिण ट्रॅप

**दक्षिण ट्रॅप** : अस्तंत भारतांतल्या ज्वालामुखी – खडपांचे एके लांब-रूंद राशीचें नांव. ताका डॅक्कन ट्रॅप अशेंय म्हण्टात. क्रिटेशस काळाच्या शेवटाक भारतीय द्वीपकलपाच्या विस्तृत क्षेत्राचेर भेगी उद्‌गिरणां वटेंतल्यान लावा भायर पडपाक लागलो आनी उपरांत खूब तेंप अशीं उद्‌गिरणां केन्नाकेन्नाय जायत रावलीं. हाचो परिणाम म्हळ्यार ज्वालामुखी खडपांचो हो व्हड सडो तयार जाला. ताका लागून हांगाचे पयलींचे सगळे शैलसमूह ताच्या तळाक लागून ह्या भागाचें पयलींचें स्वरूप नश्ट जालें. तशेंच, सुरत-भडोचा लागचो थर आनी नर्मदा देगणांतलो गाळ सोडल्यार दक्षिण ट्रॅपाचेर उपरांतच्या काळांतलो शैलसमूह सांपडना. आर्कियन शैल समूह सोडल्यार दक्षिण ट्रॅप हो द्वीपकल्पांतलो सगळ्यांत व्हड शैलसमूह. झीज जावन तयार जाल्ल्यो दक्षिण ट्रॅपाच्यो दोंगुल्ल्यो सपाट माथ्याच्यो आसून तांच्यो देगो उब्यो आसतात आनी हाका लागून हे थर व्हड व्हड सोपणांप्रमाण दिसतात. म्हणून सोपणां ह्या अर्थाच्या स्विडीश उतरावयल्यान हे राशीक ट्रॅप हें नांव पडलां. भारतीय द्वीपकल्पाच्या दख्खन भागांत ही रास आसा म्हणून डब्ल्यू. एच. सायक्स हाणें तिका डॅक्कन ट्रॅप हें नांव दिलां.

हो शैलसमूह सुमार ५ लाख १८ हजार चौ. किमी. इतलो पयस पातळ्ळा. तो महाराष्ट्र, गुजरात, मध्य प्रदेश, कर्नाटक आनी आंध्र प्रदेश ह्या राज्यांनी पातळिल्लो आसा. मुंबय ते अमरकंटक आनी बेळगांव ते गुणा असो ताचो आडवो-उबो विस्तार जाल्लो आसा. अस्तंतेक अरबी दर्या, दक्षिणेक बेळगांवमेरेन, आग्नेयेक राजमहेंद्रीमेरेन, उदेंतेक अमरकंटक, सरगुजा, जशपूरमेरेन आनी वायव्येक कच्छामेरेन ताच्यो शिमो आसात.

दक्षिण ट्रॅपाची दाटाय दर जाग्यार वेगळीवेगळी सांपडटा. मुंबयकडेन ताची दाटाय ३.२५० मी. परस चड आसून ती उदेंतेकडेन उणी उणी जायत वता. बेळगांवां ६०० ते ८०० मी. अमरकंटकाक १५० ते २०० मी, सरगुजाक १०० ते १२५ मी., राजमहेंद्रीक ३० ते ६०मी., सिंधांत ३० ते ६० मी. आनी कच्छाक ८०० मी. दाटाय आसा. भुसालागीं केल्ल्या सुमार ४०० मी. खोल लावाचें २९ थर सांपडल्यात. कांयकडेन लावाच्या दोन थरांनी गाळाचे थर सांपडटात,

तांकां अंतरा-ट्रॅपी थर अशें म्हण्टात.

दक्षिण ट्रॅपामदल्या खडपांचें संघटना सगळेकडेन लागीं लागीं एकसारकें सांपडटा. ऑजायट बासाल्ट हें हातूंतलें सगळ्यांत सामान्य खडप. ह्या खडपांचें सरासरी वि. गु. २.५८ ते ३.०३ इतलें आसता. पूण रंग आनी घडण हातूंत वेगळेंपण दिश्टी पडटा. कड्डो दाट पाचवो रंग हो ताचो सगळ्यांत चड सांपडपी रंग. काळ्या वा हेर रंगांचीं खडपांय हांगा सांपडटात. कांयकडेन तांबड्या वा जांबळ्या रंगाचींय खडपां दिश्टी पडटात. भुसावळलागच्या वेधनांत लुईस एल्. फेरमॉर हाणें केल्ल्या वर्णनांत हें २.९१ वि. गु. चें बासाल्ट खडप आनी लॅब्रॅडोरायट आनी एन्स्ट्रॅटायट ऑजायट हीं तातूंतलीं गरजेचीं खनिजां. ह्या दोन खनिजांसावन ह्या खडपाचो मुखेल भाग तयार जाला आनी तांचे मदल्या भागांत कंवची आसता. ह्या तिनूय घटकांचें प्रमाण जाग्याकणकणीं बदलत आसता. मॅग्नेटायट आनी लोह धातू हीं हातूंतलीं सामान्य खनिजां आसून केन्नाकेन्नाय ॲपेटायट, इल्मॅनायट ल्युकॉक्झीन क्वॉर्ट्झ हीं खनिजांय सांपडटात. ऑजायट बासाल्ट हें हातूंतलें सामान्य खडप आसलें तरी सिलिकाचें प्रमाण चड आशिल्लें म्हळ्यार सिकीत वा सिलिकाचें प्रमाण उणें आशिल्लींय खडपां दिश्टी पडटात. पावागड आनी गिरनार दोंगुल्ल्यांच्या भागांत डायोरायट - मॉंझोनायट आनी ऑलिव्हीन गॅब्रो सांपडटात. मुंबयलागच्या वाठारांनी रायोलायट, ग्रॅनोफायर, ट्रॅकायट, अँडेसायट, फेल्सायट आनी ओशनायट हीं खडपां बासाल्टाचे जोडयेन सांपडटात. लावाच्या थरांभितर चड करून गोबर, कोळशे आनी पाचवी माती हांचे थर सांपडटात. गोबर आनी टफ हांचे थर दक्षिण ट्रॅपांतल्यान एकसारके वांटल्यात. पूण तळभागांत ते उणे जायत गेल्यात. दक्षिण ट्रॅपाचेर तयार जाल्ले जांभा खडपूय दिश्टी पडटा.

लावाच्या प्रवाहांक लागून न्हंयांच्यो वाटो आडावल्यो आनी तांचीं तळीं जालीं अशें मानतात. उपरांत पयल्या आनी दुसऱ्या उद्‌गिरणांच्या मदल्या शांत काळांत बेबे, नुस्तें आनी उदकांतल्यो हेर मोनजाती तयार जाल्यो. तशेंच भोंवतणचे जमनीचेर पाम, फूलझाडां आनी हेर वनस्पत वाडली. रेब्याच्या वाठारांनी डायनोसॉर आनी देगांनी कांसवांचेंय प्रमाण खूब वाडलें. मुखार हीं तळीं गाळांनी भरपाक लागलीं आनी उपरांत दुसरें उद्‌गिरण जालें आनी गाळाच्या थरांचेर लावाच्या थराचें धांपण पडलें. अशे तरेन दोन लावा प्रवाहांनी सांपडपी पातळ आनी उण्या विस्ताराच्या गाळाच्या थरांक 'अंतरा-ट्रॅपी थर' अशें म्हण्टात. अंतरा-ट्रॅपी थर दक्षिण ट्रॅपांत जळींमळीं दिश्टी पडटात. उत्तर आनी उदेंत ट्रॅपांनी ते थर व्हड प्रमाणांत सांपडटात. हांच्यांत मेळपी जीवाश्मांवयल्यान त्या काळाचो भूंयविज्ञानीक इतिहास, तशेंच मोनजात आनी वनस्पत हांची म्हायती मेळटा.

दक्षिण ट्रॅपाच्या क्षेत्रांत कांयकडेन दोन लावा थरांमदीं सांपडपी तांबड्या रंगाचे मातयेभाशेन पातळ थर सांपडटा, ताका रॅड बॉल अशें म्हण्टात. पुणें, सातारा, अहमदनगर, नासिक, औरंगाबाद आनी हेर जिल्ह्यांनी हे रॅड बॉलांचे थर सांपडटात. दक्षिण ट्रॅपाचे पिरायेसंबंदान कांय जाणकारांनी मतां आनी अदमास मांडल्यात. ताणीं हांगाच्या जीवाश्मांचो अभ्यास करून दक्षिण ट्रॅप क्रिटेशउपरांत आनी इओसीनपयलीं तयार जाला अशें अनुमान काडलां.

अर्थीक नदरेंतल्यानूय ह्या खडपाक खूब म्हत्व आसा. हें खडप घट आनी तिगपी आशिल्ल्यान ताचो उपेग पूल, धरणां, घरां, देवळां, घ्राट आनी अशा हेर बांदकामांखातीर जाता. बॉसाल्ट फातराची खडी रेल्वे रूळांसकल घालपाखातीर, रस्त्याखातीर आनी कॉंक्रिटांत वापरतात. हें खडप कातोवन ताच्यो मुर्तीय तयार करतात. महाराष्ट्रांतली वेरूळ, अजिंठा, कार्ले, भाजे, घारापुरी आनी हेर प्रसिद्ध लेणीं ह्याच खडपांत कांतयल्लीं आसात. ह्या खडपासावन तयार जावपी जांभो, बांदकामांखातीर आनी बॉक्सायट ॲल्युमिनियम मेळोवपाखातीर वापरतात. दर्यादेगांनी कांय भागांतली इल्मेनायट आशिल्ली रेंव टिटॅनियम ऑक्सायड मेळोवपाखातीर वापरतात. ह्या खडपांसावन तयार जाल्ली जमीन पिकाळ आनी वलसाण तिगून दवरपी आसता.

– कों. वि. सं. मं.

**दक्षिण येमेन :** (पळेयात येमेन).

**दक्षिणायन :** दक्षिण दिशेकडेन वा दक्षिण गोलार्दांत सुर्याचें अयन (आगमन) ज्या काळांत जाता त्या काळाक दक्षिणायन अशें म्हण्टात. आषाढ ते पौष (२३ जून ते २२ डिसेंबर) म्हयन्यांमेरेन हो काळ आसता. क्रांतिवृत्त खगोलीय विषुववृत्ताक छेदील्ल्यान सूर्य विषुववृत्ताचे केन्ना उत्तरेक जाल्यार केन्ना दक्षिणेक आसता. सुर्याचें उत्तरेकडेन येवपाचें २२ जूनाक सोंपता. ह्या दिसा सूर्य विषुववृत्तापसून उत्तरेक चडांत चड पयस म्हळ्यार उत्तर संस्तंभी (विष्टंभी) आसता. त्या वेळार सुर्याची क्रांती विषुववृत्तासावन चडांत चड सुमार २३ १/२° आसता. उपरांत सूर्य दक्षिणेकडेन वचपाक सुरू जाता. सुर्याच्या ह्या दक्षिणेकडेन वचपाक दक्षिणायन अशें म्हण्टात. २२ डिसेंबर मेरेन सुर्याचें दक्षिणेकडेन वचप चालू आसता, म्हळ्यार सूर्य दक्षिण संस्तंभी (अवष्टंभी) येमेरेन चालू आसता म्हणून सायन कर्कसंक्रांतीसावन ते सायन मकर संक्रांतीचो काळ हो दक्षिणायनाचो काळ. दक्षिणायनांत खंयच्याय थरावीक दिसा थरावीक वाठारांत सूर्य जे सुवातेर उदेता, ते सुवातेचे दक्षिणेवटेन तो तेउपरांतच्या दिसा उदेता. दक्षिण गोलार्दांत ह्या काळांत दीस व्हड-व्हड आनी राती ल्हान-ल्हान जायत वतात आनी उत्तर गोलार्दांत दीस ल्हान-ल्हान आनी रात व्हड-व्हड जायत वतात. हिंदू धर्माप्रमाण दक्षिणायनाचो काळ हो उत्तरायणाच्या कामापरस उणो शुभ समजतात, कारण ह्या काळांत देव न्हिदिल्ले आसतात आनी तेखातीर मार्गांत सगळ्याक काळोख आसता अशी समजूत आसा.

कर्कसंक्रांत ही आषाढ म्हयन्यांत आनी मकर संक्रांत ही पौषांत येता. दक्षिणायनाचो मार्ग हो पितृयाण म्हळ्यार जिवांक पितृलोकांत व्हरपी अशें मानतात. ताका धूम्रादी मार्ग अशेंय म्हण्टात. दक्षिणायनांत मेल्लो मनीस धूम्रादी मार्गान चंद्रलोकांत वता आनी थंय पुण्यांश भोगतकच परतून मृत्यूलोकांत येता अशें गीतेंत म्हळां. पितृयाण मार्ग स्वर्गप्रद आसलो तरी तो मोक्षप्रद नासता, असो हाचो अर्थ. तेखातीर मोक्षाची इत्सा करपी लोक देहत्यागाखातीर उत्तरायणाचो काळ पसंत करतात. ताका अर्चिरादी मार्ग अशें नांव आसा. दक्षिणायनांत, झुजांत जखमी जाल्लो भीष्म आपल्याक दक्षिणायनांत मरण येवंक फावोना म्हणून दक्षिणायन सोंप म्हणसर शरपंजरी पडून रावलो अशी महाभारतांत कथा आसा.

मकर संक्रांतीभाशेन कर्क संक्रांतीकूय म्हळ्यार दक्षिणायनाच्या पयल्या

दिसा तिर्थांचेर न्हावप, दान, श्राध्द करप हीं धर्मीक कृत्यां करचीं अशें सांगलां. तशेंच दक्षिणायनांत कसल्याय व्रताचें उद्यापन वा कसलेय धर्मीक संस्कार करचे न्हय अशेंय म्हळां.

दक्षिणायनाविशीं विष्णू पुराणांत एक श्लोक दिला तो असो-

अयनस्योत्तरस्यादौ मकरं याति भास्कर : ।
राशिं कर्कटकं प्राप्य कुरुते दक्षिणायनम् ॥

अर्थ - सूर्य मकर राशींत वतकच उत्तरायण सुरू जांता आनी तो कर्क राशींत वतकच दक्षिणायन सुरू जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**दांडीयात्रा :** (पळेयात मिठाचो सत्याग्रह).

**दांडेकर, गोपाल नीलकंठ :** (जल्म : ८ जुलय १९१६, परतवाडा, अमरावती.)

कादंबरी, कथा, चरित्रां, लघुनिबंध असलें साहित्य बरोवपी एक अश्टतासांचो मराठी लेखक. परतवाडा आनी नागपूरांत चवथी यत्तेमेरेन शिक्षण जातकच पिरायेच्या तेराव्या वर्सा दांडेकरान घर सोडलें.

कांय काळ राश्ट्रीय आंदोलनांत वावर केलो. पूण आंदोलन सोंपतकच ताणें गाडगे महाराजांचें शिश्यत्व आपणायलें. बाबाचो शिश्य आनी अनुयायी ह्या नात्यान ताणें गांवागांवांनी वचून किर्तनां करपाक सुरवात केली. ज्ञानेश्वरीच्या अभ्यासाखातीर तो आळंदीक आयलो. पूण मजगतीं भागानगरच्या सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्ल्यान, कांय काळ ताका बंदखण भोगची पडली. सुटके उपरांत परतून ताणे अध्ययनांत लक्ष घालें. ज्ञानेश्वरीचो अभ्यास आनी संस्कृतांतल्यान वेदान्ताची वळख करून घेवपापसत तो धुळेंच्या श्रीधरशास्त्री पाठक हाचेकडेन वचून रावलो. ह्या गुरूचे आज्ञेवयल्यान ताणें नर्मदेची पायांनी परीक्रमा सुरू केली. पूण दुयेंत पडिल्ल्यान सात - आठ म्हयन्यांनीच ताका हो उपक्रम सोडचो पडलो. उपरांत तो परतून श्रीधरशास्त्री पाठकाकडेन अध्ययन करपाक गेलो.

चार वर्सां ताणें राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघांत वावर केलो. उपरांत रामदास, श्रीकृष्ण आनी मनू हांचीं चरित्रां 'आमचे राष्ट्रगुरु' ह्या नांवान ताणें बरयलीं.

१९४५ वर्सा नामजोशी घराण्यांतले विमल नामजोशी हिचेकडेन ताचें लग्न जालें. १९४६ वर्सा पंडीत सातावळेकराच्या आपोवण्या वयल्यान तो औंधाक गेलो. थंय 'पुरुषार्थ' हें मराठी आनी 'वैदिक धर्म' ह्या हिंदी नेमाळ्यांनी संपादक म्हणून ताची नेमणूक जाली.

धर्म, संस्कृती, पुराण, इतिहास ह्या विंगड विंगड विशयांचेर तशेंच कथा, कादंबरी, चरित्र ह्या साहित्य प्रकारांचेर ताणें शंबरावयर पुस्तकां बरयल्यांत.

'बया दार उघड', 'हरहर महादेव', 'दर्याभवानी', 'झुंजारमाची', 'हे तो श्रीची इच्छा' ह्या कादंबऱ्यांनी ताणें शिवकालाचें आनी शिवकालीन संस्कृतीचें दर्शन घडयलां. ताणें जगन्नाथ पंडिताचे आनी गीतगोविंदकार जयदेवाचे प्रणयजिणेचेर 'जगन्नाथपंडित' आनी 'पद्मा' ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यात.

'उडोनी हंस चालला' (१९६२) आनी 'अजून नाही जागे गोकुळ' (१९६३) ह्यो ताच्या नल - दमयंती आनी श्रीकृष्ण-कुब्जा हांचे जिणेचेर बरयल्ल्यो कादंबऱ्यो आसात.

'बिंदूची कथा' (१९४७) हे ताचे कादंबरेन, ताच्या कादंबरी लिखाणाक आरंभ जालो. ताच्यो 'शितू' (१९५५), 'पडघवली' (१९५६), 'कुणा एकाची भ्रमणगाथा' (१९५७), 'माचीवरला बुधा' (१९५८), 'मृण्मयी' (१९७०) आनी 'मोगरा फुलला' (१९७५) ह्यो कादंबऱ्यो कलात्मक नदरेन म्हत्वाच्यो आसात.

'पवनाकाठचा धोंडी', 'पूर्णामायची लेकरं', 'शितू', 'पडघवली' आनी 'माचीवरला बुधा' ह्यो ताच्यो प्रदेशीक कादंबऱ्यो आसात. 'मृण्मयी' आनी 'मोगरा फुलला' ह्यो दोनूय कादंबऱ्यो ज्ञानेश्वराविशीं आसात.

भाक्रा-नांगल धरणाची येवजण आनी बांदावळ ह्या विशयाचेर ताणें 'आम्ही भगीरथाचे पुत्र' (१९५९) ही कादंबरी बरयल्या. 'संत गाडगेमहाराजांचे चरित्र' (१९७६) आनी 'स्मरणगाथा' (१९७६) हें ताणें स्वताचें आत्मचरित्र बरयलें. ताचे 'स्मरणगाथे' क १९७६ वर्साची उत्कृश्ट मराठी साहित्यकृती म्हणून साहित्य अकादमीचें इनाम फावो जालां.

भारतीय वेदान्ताचे आनी संतसाहित्याचे संस्कार ताच्या लिखाणांतल्यान दिसतात. गांवगिरी जीण आनी थंयचे संस्कृतीचोय ताणें बारीकसाणीन अभ्यास केला. लिखाण - वाचन हे दांडेकराचे छंद. तेच भाशेन शिवाजीच्या काळांतले किल्ले पळोवपाचो आनी छायाचित्रणाचोय ताका छंद. तातूंतल्यानूच ताणें 'दुर्गदर्शन' हें पुस्तक बरयल्लें.

द्वारकापिठाच्या शंकराचार्यान 'साहित्यवाचस्पती' ही पदवी दिवन १९६५ वर्सा दांडेकराचो भोवमान केलो. तळेगांव - दाभाडेचे नगरपालिकेवतीन ताका 'नगरभूषण' ही पदवी फावो जाली. १९७६ वर्सा वाई नगरपालिकेवतीन ताचो सत्कार जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**दांत :** तोंडांतल्या वयल्या आनी सकयल्या जबड्यांच्या हाडांत रोमून बशिल्ले, अन्न चाबपाचे अवयव. हे अवयव अन्न चाबपाचें मुखेल काम करतात. तशेंच उलोवपाच्या कामांतय ते आदार करतात. दातांक लागून मुखामळाक सोबा येता. अन्न चाबप हें पचनक्रियेंतलें पयलें काम. चाबून बारीक जाल्ल्या अन्नांत थुकयेंतलो पाचक रस मेळटकच पचनक्रिया सुरू जाता. अन्नांतल्या स्टार्च घटकाचें पचन तोंडातच सुरू जाता.

उच्चार स्पश्ट करपाक दांताचो आदार जाता. त, थ, द, ध, न हीं उतरां दांताबगर उच्चारूंक जायनात. ताकालागून ह्या अक्षरांक दांतये अक्षरां म्हण्टात. दांत आनी जीब हांच्या मेळानच ही अक्षरां उच्चारप जातात.

कांय मोनजातीप्रमाण मनशाक जल्मतनाच दांत आसनात. तांकां दोन फावट दांत येतात. (१) ल्हानपणांत ६ म्हयने ते २ वर्सांमेरेन आनी ६ ते २० वर्सांमेरेन. सुर्वेच्या दांतांक दुदाचे दांत म्हण्टात. मागीर येवपी दांतांक 'कायम दांत' म्हण्टात.

दुदाच्या दांतांची संख्या २० जाल्यार कायम दांतांची संख्या २८ ते ३२ आसता. दुदाचे दांत ६ वर्सां ते १२ वर्सांमेरेन पडटात आनी कायम दांत येता.

दांतांची वेगवेगळीं कामां आसतात. त्या कामाक फाव तशे दांताचे

आकार घडिल्ले आसतात. जबड्यांतल्या सुवातेवयल्यान दांतांचे चार पंगड अशे -

(१) फुडले दांत - ८ दांत (दर जबड्याक चार दांत)

(२) सुळे - ४ दांत (दर जबड्याक दोन दांत)

(३) फुडल्यो दाढो - ८ दांत (दर जबड्याक ४ दांत)

(हे दांत ल्हान भुरग्यांक आसनात).

(४) फाटल्यो दाढो - १२ दांत (दर जबड्याक ६ दांत एके वटेन तीन)

फुडल्या दांतांक धार आसता, जाल्यार सुळ्यांक तोंक. हे दांत अन्न पिंजून तांचे कुडकें काडपाक उपेगी पडटा. दाढांच्या माथ्यार उंचवटे आनी फोंडकुलां आसतात. दाढयो अन्न चाबतात.

**दांत येवपाचे क्रम -**

गर्भावस्थेतच भुरग्याच्या जबड्यांत दांत तयार आसतात. पूण ते भायर सरतात ६ म्हयन्या उपरांत. तांचो येवपाचो क्रम असो :

| | दुदाचे दांत | | कायम दांत | |
|---|---|---|---|---|
| | वयले | सकयले | वयले | सकयले |
| फुडले | ७ म्हयने | ६ म्हयने | ७-८ वर्सां | ६-७ वर्सां |
| सुळे | १८ म्हयने | १७ म्हयने | ११-१२ वर्सां | ९-१० वर्सां |
| फुडल्यो दाढो | | | | |
| पयली | – | – | १०-१२ वर्सां | १०-११ वर्सां |
| दुसरी | – | – | ११-१२ वर्सां | १०-११ वर्सां |
| फाटल्यो दाढो | | | | |
| पयली | १४ म्हयने | १२ म्हयने | ६-७ वर्सां | ६-७ वर्सां |
| दुसरी | २४ म्हयने | २० म्हयने | १२-१३ वर्सां | ११-१३ वर्सां |
| तिसरी | २४ म्हयने | २० म्हयने | १७-२१ वर्सां | १७-२१ वर्सां |

दुदाचे आनी कायम दांत गर्भावस्थेंतच घाडिल्ले आसतात. जेन्ना दुदाचे दांत भायर सरतात तेन्ना ताच्या मुळांपोंदा जबड्यांत कायम दांत आसतात. भुरगो जेन्ना ६-७ वर्सांचो जाता तेन्ना दुदाच्या दातांचीं मुळां ताची कूड शोषून घेता. दुदाचो दांत मागीर सदळ जातात आनी हालूंक लागतात. ताच्या मुळांचो जागो कायम दांत घेता आनी सवकास दुदाच्या दांतांक सकयल लोटता. दुदाचो दांत पडटकच कांय म्हयन्यां उपरांत कायम दांत भायर सरता. दुदाचो दात कांय कारणांक लागून काडचो पडल्यार कायम दांत सारको येना. ताची भायर सरपाची वाट चुकता आनी तो एखाद्रो वांकडो तिकडो भायर सरता.

दांत आमचे कुडीचे सगळ्यांत घट अवयव. तांची घडण सादारण हाडांभशेन आसता. ते कॅल्शियम, मॅग्नेजियम आनी फॉस्फरस ह्या खनिजांनी घडिल्ले आसतात. दांतांचे दोन मुखेल भाग हे : (१) मूळ (Root) (२) तेंगशी (Crown).

**मूळ** : हे मावेभितर जबड्यांत रोमून दांतांक घट आदार दिता. तेंगशी - दांताचो दर्शनी भाग, तेंगशेचो वयलो भाग जो अन्न चाबता ताका दन्तमाथें म्हण्टात. दांतांच्या विंगड विंगड कामांप्रमाण दन्तमाथ्याचो आकार विंगड विंगड आसता.

फुडले दांत, सुळे आनी फुडल्यो दाढो, हांका एकूच मूळ आसता. जाल्यार फाटल्या दाढांक ३ वा ४ मुळां लेगीत आसता. दर दांत तीन मुखेल आवरणांनी घडिल्लो आसता. (१) दन्तवल्क (Enamel) (२) दन्तधातू (दन्तीन, (Dentine) आनी (३) दन्तगर (Pulp). दन्तवल्क (Enamel) : हो दांताचो भायलो भाग. हो भाग पारदर्श आसून तालूंतल्यान दन्तधातू दिसता. दन्तवल्काची जाडी कांय मीमी. आसून ताची घडण कॅल्शियम फ्लुराइड, कॅल्शीयम, हायड्रोक्सी फॉस्फेट हांच्या स्फटिकांपसून घडिल्लो आसता. जाण्टेपणांत दन्तवल्क झरता आनी दन्तधातू उक्तो जाता. अशें जाल्यान हुनसाण, थंडी, दांताक लागतकच सणसण मारतात. दन्तवल्क दांताच्या तेंगशेरच आसता. दांताच्या मुळार आशिल्ल्या आवरणाक सिमेंटम म्हण्टात.

**दन्तधातु :** (Dentine) दन्तधातु हो दांताचो मुखेल घट भाग. दांताची घटसाण दन्तधातूपसून आसता. हो भाग दांतांभितर सगळ्याक पातळिल्लो आसता. हाची घडण वयर दिल्ल्या खनिजांपसूनच आसता.

**दन्तगर :** (Pulp) दन्तधातुमदीं दन्तगरांत रगतशिरो आनी मज्जातंतू आसतात. दन्तगर दातांच्या हेर भागाक खनिजां आनी हेर अन्नपुरवण करता. दन्तगराचो वयलो भाग मातसो फुगिल्लो आसता. ताका दन्तगरकक्ष अशें म्हण्टात. दन्तगरकक्षाक (Pulp chamber) दोन बारीक नळयांनी जबड्याकडेन जोडिल्लो आसता. दांतांच्या दर मुळांतल्यान ह्यो नळयो येवन दन्तगरकक्षामेरेन पावतात. ह्या नळयांनी रगताशिरो आनी मज्जातंतू दांतांत भितर सरतात. ह्या नळयांक मूळ नलिका (Root Canal) अशें म्हण्टात.

**दांतांची जतनाय** : दांतांची जतनाय बरी घेतल्यार तांचीं चडशीं दुखणीं टाळूंक येतात. बरी जतनाय घेवपाखातीर दांतांक पुश्टीक अन्न, नितळसाण आनी नेमान तपासणी ह्यो तीन गजाली लक्षात दवरूंक जाय. पुश्टीक अन्न-दांतांची वाड बरी जावपाक पुश्टीक अन्नाची गरज आसता. जेवणात अन्नाचे पुराय घटक आनी कॅल्शियम, मॅग्नेजियम हीं खनीजां आसूंक जाय. दांत बरे उरपाक जेवणाखाणांत गोड जिनसाचें प्रमाण उणें आसूंक जाय. गोड जिन्नस दांताक चिकटल्यार तांचे पसून एक आम्ल तयार जाता. हें आम्ल दन्तवल्क विरघळायता. दन्तवल्काक एकदां बुराक जातकच तो भितर मेरेन पावता. जेवणांत पालेभाज्यो, ताजींफळां, दूद हांचो आस्पाव आसूंक जाय. गोडशीं, शितपेयां, पिपरमिटां, चॉकलेटी असले जिन्नस जेवणात आसचे न्हय.

**दांतांची नितळसाण** : दांतांचीं दुखणीं पयस दवरपाक दांत नितळसाण राखूंक जाय. दांत बरे उरतले जाल्यार दांतांमदीं अन्नकण उरूंक फावना. दांत निवळ दवरपाक ह्यो गजाली नेमान करूंक जाय. (१) जेवणखाणा उपरांत घोट घेवंक जाय. (२) दांत ब्रशान निवळ करपाक जाय. (३) दांत बारीक दोरयेन नितळ करूंक जाय.

कितेंय खातकच दांत घोट घेवन नितळ करप गरजेचें. घोट घेतकच तोंडात उरिल्ले अन्नकण भायर सरतात. दांतांच्या खांचीमदीं रिगिल्ले अन्नकण काडपाक मात हेर उपायांची गरज आसता:

**दांत ब्रशान घांसप** - दांत नितळ करपाक ब्रशान घासप हो एक बरो उपाय. पयलीं आनी आतांय गांवांनी कांय लोक आंब्याच्या वा काजुच्या पानाचे चिवणेन वा कोळसो घेवन बोटांनी दांत घासतात. पूण ह्या उपायांनी दांत सारके निवळ जायनात. उत्तर भारतात दांत घासपाक कडुलिंबाचो देंठ वापरतात. देंठान घाशिल्ले दांत ब्रशान घाशिल्लेवरीच जातात. कडुलिंबांतलीं जंतूनाशक द्रव्यां दांत निवळ करपाक आदार करतात अशें कांय दंतवैज म्हण्टात. दांत निवळ करपाचो ब्रश मोव आसचो. पूण तो फांकतकच वापरूंक जायना.

**दांतांची पेश्ट** - ल्हान भुरग्यांक फ्लुरायड आशिल्ली दांताची पेश्ट

बरी. जाण्टयांक हेर पेस्ट वापरूंक जाता. दांत घासतना दांत फुडल्यान आनी फाटल्यान घासूंक जाय तर दाढो फाटल्यान फुडल्यान आनी वयल्यानय घासूंक जाय.

**दांत घासपाची रीत** : वयले आनी सकयले दांत घासतना ब्रश दांताचेर सुमार ३०° कोनान धरपाचो. ब्रशाचे केंस मावेवटेन आसूंक जाय. दांत नितळ करपाक ह्यो गजाली करपाक जाय -

(१) ब्रशाचो दाणो घुवंडावन दात निवळ करचे.

(२) दांत भितल्यान तेच रितीन निवळ करचे.

(३) दाढो घासतना दाढो वयल्यानूय घासूंक जाय. दाढांच्या माथ्यार आशिल्ल्या फोंडकुलांनी अन्नकण उरपाची शक्यताय चड आसता. दाढयो वयल्यान निवळ करपाक ब्रश वांकडो धरून फाटी फुडें करूंक जाय.

(४) दांतांवांगडा जीबय घासून नितळ करूंक जाय. जीब ब्रशान वा बोटांनीय निवळ करूंक जाता.

**दोरी वापरून नितळ करप** - एक बारीक दोरी बोटाक गुटलावन दांताचे खाचींत घालून वयर - सकयल करूंक जाय. दोरयेवांगडा अन्नकण भायर येतात.

**दांतांची नेमान तपासणी** : ल्हान भुरग्यांक नेमान दंतवैजागेर व्हरूंक जाय. पयली दांत तपासणी दुदाचे सगळे दांत येतकच करूंक जाय. हाचे उपरांत दर मनशान स म्हयन्याक एकदां दंत वैजाक मेळूंक जाय. दंतवैज दांत किडेल्या वा ना हें तपासता. दांत कशे ब्रश करप हें शिकयता. आनी एखाद्रे दांताक फ्लुरायड लायता. तोंडाच्या कॅन्सराचें बेगीन निदान जावपाक हे तपासणेचो खूब आदार जाता.

**दांताचो रोग आनी ताचेर उपचार** : दांतांचे मुखेल रोग अशे आसातः (१) दांत किडेवप (२) दांतांच्या मुळाकुशीक दुखाणू येवप (३) वयल्या सकयल्या दांतांचो मेळ आसप ना. (४) तोंडाचो कॅन्सर.

**दांत किडेवप** : हें दुखणें खूब पातळिल्लें आसा. पयलीं हें दुखणें कमी प्रमाणांत आशिल्लें. जश्यो जश्यो अन्नरिती बदलत गेल्यो तशें तशें हें दुखणें वाडत गेलें. भुरग्यांमदीं किडिल्ल्या दांतांचें प्रमाण चड करून शाळेंतल्या भुरग्यांमदीं ४०% आसा हें भुरग्यांचे तपासणेवेल्यान कळटा.

दांत किडेवप म्हळ्यार दांताक बुराक जाता. ह्या दुखण्याक Caries अशें म्हण्टात. दांतांची नितळसाण नासप हें ह्या दुखण्याचें मुखेल कारण. खाणा-जेवणाचे रितीचें ह्या दुखण्याकडेन खूब लागीचें नातें आसता. खाणाच्या जिनसांत गोड-चिकट जिन्नस चड आसल्यार हें दुखणें चड जावंक पावता. कांय दंतवैजांच्या मताप्रमाण ह्या दुखण्याचें मूळ अनुवंशीक आसता. गोड जिन्नस दांताक चिकटून बसतात. ह्या जिनसांचेर बॅक्टेरिया जातीचे सूक्ष्म जंतू प्रक्रिया करून एक तरेचें आम्ल तयार करतात. हें आम्ल दांतांक भोव वायट. तें दंतवल्काक बुराक घालता. दंतवल्काक स्पर्शज्ञान नाशिल्ल्यान ह्या दुखण्याचें निदान बेगीन कळना. बुराक चड भितर पावतकच दांत दुखप, सारकिली लक्षणां दिसतात.

**किडेल्ल्या दांताचेर उपचार** - कीड लागिल्ल्या दांताचेर दंतवैज खूब तरेन उपचार करतात. तातूंतले मुखेल उपचार अशे आसात (१) दांत भरप (२) मूळ नलिका उपचार (Root Canal treatment) (३) दांताचेर टोपणें घालप (Crowning) (४) दांत काडप.

**दांत भरप** : दंत वैज पयलीं किडिल्लो भाग काडून उडयतात. ह्या कामाक लायटीचो ड्रील वा पांयाच्या पेडलाची ड्रील वापरतात. भरपाचें सामान दांतांत उरपाखातीर ड्रिलानच दांतांतल्या बुराकांत एक कड तयार करतात. मागीर दांत पुरायेन भरतात. दांत भरपाचें सामान रुपें, पारस, तांबें, आनी पत्रो हाचें मिश्रण आसता. फुडल्या दांताक मॅचीग रंगाचें Acrylic वा रॅक्सीन वापरतात.

**मूळ नलिका उपचार** : दांताचो बुराक दन्तगर मेरेन पावतकच दंत वैज हो उपचार करता. ह्या उपचाराक पयलीं दन्तगर काडून उडयतात. मागीर दन्तवैज मूळ नलिकेंत बारीक सरयो घालून मूळापोंदचो दुखाणुंतलो पूं काडटा. दांत निर्जंतूक जातकच दांत सदचे भशेन भरता वा ताका टोपणें घालता.

**दांतांचेर टोपणें घालप** (Crowning) : दांताची तेंगशी चड इबाडटकच हो उपचार करतात. दांताचेर टोपणें घालपाक दांताक पयली तयार करप ताचे तेंगशेचो वयलो कुडको आनी दोनूय कुशी ड्रिलान कापप. मागीर वयल्या आनी कुशीच्या दांताकडेन मेळ बसता तशें माप घेवन दांतांक टोपणें बसयतात. टोपणें भांगर, रुपें वा रॅक्सीनांचें करतात.

**दांत काडप** : बाकीचे उपाय जायनात तेन्नाच दंत वैज दांत काडटात. दांत काडचे पयलीं भेरोवपाचें इंजक्शन दितात आनी गावये सारकें हत्यार वापरून दांत मूळासयत हुमटावन काडटात. मावेची जखम पेकतकच कृत्रीम दांत बसोवंक जातात. एक वा दोन दांत काडिल्ले आसल्यार हे दांत कायम जाग्यार बसोवंक जाता. अशें करपाक कुशीच्या दांताचो आदार घेवचो लागता. असल्या उपचारांक पूल (Bridge) अशें म्हण्टात. चड वा सगळे दांत काडचे पडल्यार दांताचें माप घेवन दांताची कवळी तयार करूंक जाता. ही कवळी प्लास्टीकच्या सांच्यार घडयल्ली आसता आनी जाय तेन्ना घालूंक वा काडूंक मेळटा.

**दांतांचो मेळ जमप ना** : (Malocclusion) दर मनशाचे वयले दांत मातशे फुडें आसतात. ताच्यो वयल्यो आनी सकयल्यो दाढो एकामेकांक मेळटात. अन्न चाबपाक दाढांचो मेळ जमपाक जाय. सुमार ५ - १०% लोकांमदीं हो मेळ आसना. ताचे एखाद्रे वयले दांत चड फुडें वा फाटीं आसतात. अशें जातकच दाढयेक दाढ मेळना आनी चाबडावपाची क्रिया सारकी जायना.

दांतांचो मेळ ना जावपाचीं मुखेल कारणां अनुवंशीकता, दांत वांकडे तिकडे येवप, भुरग्यापणांत आंगठो चोखपाची सवय हीं आसात.

अन्न चाबडावपाक आडखळ जाल्ल्यान दांतांचो मेळ जाग्यार हाडूंक जाय अशें दंतवैज सांगतात. दांतांचो मेळ फाव तसो करपाक बारीक प्लेटिनमच्यो सरयो वापरतात. ताका ब्रॅसीस (Braces) अशें म्हण्टात. ह्यो सरयो बसोवचे पयलीं एखाद्रे गर्दी करपी फाटी फुडें आशिल्ले १-२ दांत काडचे पडटात.

ब्रॅसीस दोन तरांनी घालतात. जोखाच्या एका प्लास्टीक सांच्याक बसोवन हो सांचो तोंडात घालतात. हो, सरयो काडपाक येवपाचो प्रकार. दर म्हयन्याक ह्यो सरयो दंतवैज आंवुळटा. कांय दंतवैज सरयो दांतांक धाकटुल्या ब्रॅकेटांनी घट बसयतात. दर म्हयन्या कणकणी त्यो इल्ल्यो इल्ल्यो आंवुळटात. वर्सा दोनवर्सां भितर भायर सरिल्ले दांत भितर येतात. दांतांचो मेळ जातकच सरयो काडटात.

**तोंडाचो कॅन्सर** : तोंडाचो कॅन्सर हो एक मुखेल कॅन्सर जावन आसा. तंबाकू, चुनो खावप, दांत गालाक घासत रावप हीं कॅन्सराचीं कारणां जांव येतात.

हो कॅन्सर जावंचे पयलीं गालार भितल्ले वटेन एखाद्रो गालाचो भाग धवसो पडटा आनी दाटून येता. ह्या दांगांक लॅब्कोप्लेकिया म्हणटात. हें

सुरवेचें लक्षण दिश्टी पडल्यार कॅन्सराचेर उपचार बेगीन जावन तो पुराय बरो जाता. दांतांची नेमान तपासणी आनी दांतांची बरी जतनाय घेतल्यार हो कॅन्सर पयस करूं येता.

- डॉ. ए. जी. बोरकार

पूरक नोंद - कॅन्सर.

**दांतोणी (फणी) :** केंस वळोवपाचें एक साधन. भारतीय बायलो वेदकाळासावन दांतोण्यांचो उपेग करताल्यो अशें दिसता. संस्कृतांत फणयेक 'कंकनी' वा 'प्रसाधनी' अशें म्हळां. अथर्ववेदांत शंबर दांतांच्या दांतोणेचो उल्लेख आयला. तशेंच रामायण, शिशुपालवध आदी ग्रंथांतय दांतोणेचे उल्लेख आयिल्ले आसात. मोहेंजोदाडो, तक्षशिला, नेवासे, नासिक आदीकडेन जाल्ल्या उत्खननांत जायत्यो हस्तदंती दांतोण्यो मेळ्ळ्यात. ह्या दांतोण्यांचेर वेगवेगळे तरेचें कोरीव काम केल्लें दिसता.



इजिप्तांतले लोक हस्तीदंत आनी बॉक्सवुडाच्यो दांतोण्यो वापरताले. ग्रीक आनी रोमन लोकय बॉक्सबुडाच्यो दांतोण्यो वापरताले. स्वित्झर्लंडांतल्या तळ्या लागसार लाकूड, हाडां आनी शिंगां हांचेपासून तयार केल्ल्या दांतोण्यांचे पुर्विल्ले नमुने मेळ्ळ्यात. आदल्या काळांत श्रीमंत बायलो भांगराच्यो, रुप्याच्यो वा कांसवाच्या कट्ट्याच्यो दांतोण्यो वापरताले. इतिहासीक काळांत महाराष्ट्रांत पितूळच्यो दांतोण्यो वापरताले असो उल्लेख मेळटा. हे दांतोणेक हारसोय जोडिल्लो आसतालो.

दांतोण्यो चवकोनी, अर्दवाटकुळ्यो वा लांबशो चवकोनी आसतात. कांय दांतोण्यांचे अर्दे दांत बारीक आनी खुबूच लागीं लागीं आसतात, जाल्यार अर्दे दांत मातशे मोटे आनी चड अंतराचेर आसतात. दोनूय वटांनी वा एकेच वटेन दांत आशिल्ल्यो दांतोण्योय आसात. दांतोण्यांचो उपेग दादले-बायलो दोगांय करतात देखून, दोगांच्याय केंसांक फावो सारक्यो वेगळ्यो दांतोण्यो आसतात. माथ्यांतल्यो उयो काडपाक तशेंच माथे नितळ राखपाक खाशेल्यो दांतोण्यो तयार करतात. हालीं तेंपार लाकूड, हस्तीदंत, शींग, कांसवाचें कट्टें, धातू, इंडिया रबर, सेल्युलॉयड आनी हेर प्लास्टीक पदार्थांपसून दांतोण्यो तयार करतात. आकारा सारकेच दांतोण्यांचे रंगय विंगड विंगड आसतात.

दांतोण्यो करपाखातीर सादारणपणान ८ सेंमी. लांब, ५ सेंमी. रूंद आनी ५ मीमी. दाट पट्टी तयार करतात आनी तातूंतल्या दोन उरफाट्या वटांनी कानशीन घांसून दोनय वटांनी तोंकाकडेन देंवती दितात. ह्या भागांत पातळ खरवतीन चिरो घालून दांत तयार करतात. बरे प्रतीच्यो दांतोण्यो तयार करपाखातीर शिंगाचो उपेग करतात. दांतोण्यांच्या आकाराच्यो मुद्रा आनी पंच तयार करून एके रूंद पट्टेंतल्यान एके खेपेंत दोन दांतोण्यो तयार करतात. इंडिया रबरीच्या दांतोण्यांचे दांत आकाराप्रमाण घडयतात आनी उपरांत व्हल्कनीकरणान दांतोणेक टणकपणा हाडटात. प्लास्टीकचो उपेग सुरू जातकच व्हड कारखान्यांत आतां यंत्रीक ओतकाम पद्दतीन सगळ्या तरांच्यो दांतोण्यो तयार करतात. सद्याच्या काळांत प्लास्टीकच्या दांतोण्यांचीच नामना आसा.

मध्य प्रदेशांतल्या आदिवासी लोकांमदीं दांतोणी हें मोगाचें प्रतीक समजतात. कांयकडेन आदिवासी तरणाटी दोन-चार दांतोण्यो आपल्या आंबाड्यांत खोवन दवरता. ताचेवयल्यान हे तरणाटेक कितल्या चल्यांची मागणी आयल्या तें कळटा. कांय आदिवासी लोकांमदीं दांतोणी हें सौभाग्याचें लक्षण मानिल्ल्यान सवायशिणी बायलो आपल्या केंसांतल्यान दांतोणी काडिनात. कुकी आदिवासींमदीं मेल्ल्या मनशाची दांतोणी ताचेवांगडाच पुरपाची चाल आसा.

दांतोणी हें सौंदर्यप्रसाधनाचें साधन आशिल्ल्यान सौभाग्य वायणाच्या वस्तूंमदीं तिचो आस्पाव आसा. गोंयांत कांयकडेन लग्नांत व्हंकलेचे सासूमांयन व्हंकलेक रुप्याफणी दिवपाची चाल आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**दांतोळ्यो :** भुरग्यांक दांत-दाढयो फुट्टकच करपाचो अन्नग्रहणाचो सुवाळो. एका बऱ्याशा म्हुर्तार, दांतोळ्यांच्या भुरग्याक सजोवन सोयऱ्या धायऱ्यांच्या आनी शेजारच्या भुरग्यांचे उपस्थितींत ओंवाळणी करून भुरग्याचे तकलेवयल्यान दांतोळ्यो घालतात. दांतोळ्यो म्हळ्यार लाडू, कापां, वडे, चिरमुल्यो, चणे अशे दांतांक घटाय दिवपी पदार्थ. हे पदार्थ मागीर त्या भुरग्याक आनी जमिल्ल्या भुरग्यांबाळांक वांटप जाता. हे पदार्थ चड करून आजोळच्यान (आवयचे आवयन) तयार करून हाडचे असो संकेत आसा.

वाडदिसाचे धर्तेचो हो दांतोळ्याचो प्रकार भोवतेककडेन दांत आयले उपरांतच्या पयल्या वाडदिसा करप जाता. निकत्याच फुटिल्ल्या दांतांक खावपाची संवय करून ताका फावो तो व्यायाम घडचो असो उद्देश ह्या सुवाळ्या फाटल्यान आसुंये.

- माया खरंगटे

**दाको :** (पळेयात द्राक्ष).

**दातार, जनार्दन देवराम :** (जल्म : २८ ऑगस्ट १९३२, पाशान - हवेली, पुणें).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळाव्या पांवड्यामेरेन शिक्षण घेतलें. तो 'सोशलिस्ट पार्टी', प्रजा सोशालिस्ट पार्टी, जनता पार्टी आनी सद्या भारतीय जनता पार्टी हांचो वांगडी जालो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा सूर्ला जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पुर्तुगेज पोलिसांनी केल्ल्या लाठीमारांत ताका खूब दुखापत जाल्ली. महाराष्ट्र सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**दातार, विष्णु महादेव :** (जल्म : १० ऑक्टोबर १९३१, म्हासले - रायगड - महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें एस.एस.सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. १८ मे १९५५ ह्या दिसा सेनापती बापट हाच्या फुडारपणाखाल गोंयचे शिमेर जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना जाल्ल्या पोलिसांच्या मारपेटांत ताचो पांय मोडिल्लो. पोलिसांनी ताका १५ दीस बंदखणींत दवरलो. १९८५ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**दादरा आनी नगर हवेली :** एक केंद्रशासीत प्रदेश. आवाठ. ४९१ चौ किमी. विस्तार २०° १०' उत्तर ते २०° ६०' उत्तर आनी ७३° उदेंत ते ७३° ३०' उदेंत. हो वाठार मुंबयचे उत्तरेक सुमार २०० किमी. आनी भारताचे अस्तंत देगेसावन २० ते ५० किमी. पयस आसा. हाचे उत्तरेक आनी उदेंतेक गुजरात राज्याचो बलसाड जिल्हो तशेंच दक्षिणेक आनी अस्तंतेक महाराष्ट्र राज्याचो ठाणें जिल्हो आसा. हांगाच्या दादरा वाठारांत तीन आनी नगर हवेली वाठारांत ६९ खेडी आसात. सिल्वासा हें हांगाचें प्रशासन केंद्र.

**भूंयवर्णन** : राज्याचो ईशान्य, उदेंत आनी दक्षिण वाठार दोंगराळ आसा. जाल्यार मध्य आनी अस्तंत वाठार त्या मानान सपाट आसा. दमणगंगा ही एकच न्हंय राज्यांतल्यान आग्नेय वायव्य दिशेन व्हांवता.

**हवामान** : पावसाळ्यांत नैर्ऋत्य वाऱ्यापसून सुमार ७० दिसांमदीं हांगा १७५ सेंमी. पावस पडटा. हांगाचें तापमान सरासरी चडांत चड ३० अंश सैं. आनी उण्यांत उणें २० अंश सैं. मेरेन आसता. ह्या राज्याचो सुमार ४१.५% वाठार रानांनी भरिल्लो आसा. तातूंत सायल, खैर, शिंशें, शिवण, कोंडे, चंदन अशे तरेची वनस्पत मेळटा. हांगाच्या रानांनी वांस्वेल, कोलो, लांडगो, दुकर, साळ आनी हेर रानटी प्राणी मेळटात. तेचपरी शेवणीं, किडे आनी तरातरांचीं जिवाणींय हांगा आसात.

**इतिहास** : मराठ्यांच्या आरमारान पुर्तुगेजांचीं कांय आरमारां लुटलीं. ताची भरपाय करपाखातीर ११ जानेवारी १७८० दिसा एक कबलात जाली. तेप्रमाण नगर हवेली वाठारांतले ७२ गांव खंडणी म्हणून पेशव्याकडल्यान पुर्तुगेजांक मेळ्ळे. तेन्नासावन दमण वाठारापसून मदल्या ८ ते ११ किमी. रुंदायेचो वाठार पुर्तुगीजांकडेनच उरलो. १८३३त बेट नार्दो पेरेझ दा सिल्व ह्या गोंयकारान पुर्तुगालच्या राजाकडल्यान प्रशासक म्हणून मान्यताय मेळयली. पूण पुर्तुगेजांक हें मानवलेंना. ताणीं अठराच दिसांभितर ताका गोंयांतल्यान धांवडायलो. तेन्ना ताणें दमणाक कारभार सुरू करून दमण आनी दीवाक दादरा आनी नगर हवेलीचेर दोन वर्सां आपलो शेक गाजयलो. उपरांत आपवावुरपी आनी आरमार जमोवन दा सिल्व हाणें गोंयांत सत्ता मेळोवपाचो यत्न केलो. पूण ताका येस मेळ्ळेंना. उपरांत हो वाठार परत पुर्तुगेजांकडेन गेलो. भारत स्वतंत्र जातकच पुर्तुगेज व्याप्त वाठारांत स्वतंत्रतायेची चळवळ सुरू जाली. दादरा आनी नगर हवेली लागसारच्या दमणांतली पुर्तुगेज सत्ता केंद्रासावन पयसावल्ल्याचो फायदो घेवन दादरांतल्या 'युनायटेड फ्रंट ऑफ गोअन्स' ह्या पक्षाचो फुडारी फ्रांसिस माश्कारेन्य, वामन देसाय हांच्या फुडारपणाखाल लोकांचो आदार घेवन २१ जुलय १९५४ ह्या दिसा दादरा स्वतंत्र केलो. उपरांत इंडॅपॅंडॅंट युनायटेड पार्टी, गोवा पिपल्स पार्टी, आझाद गोमंतक दल, आर.एस.एस. हांच्या आदारान २ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा नगर हवेली स्वतंत्र केली. थंय सैन्य धाडपाचो आपल्याक हक्क आसा अशें म्हणून पुर्तुगालान हेगच्या आंतरराश्ट्रीय न्यायालयाकडेन मागणी केली. पूण न्यायालयान ही मागणी भायर मारली. दादरा नगर हवेली स्वतंत्र जातकच ह्या स्वायत्त प्रदेशाचो कारभार थंयच्या लोकांनी वेंचून काडिल्लो प्रशासक पळेतालो. आपा करमळकार हाणें पयलो प्रशासक म्हणून काम केलें. १९६१ वर्सा सातवो संघ राज्यांतलो प्रदेश म्हणून दादरा नगर हवेलीक मान्यताय मेळ्ळी.

**राज्यवेवस्था** : हांगा लोकसभेचेर एक वांगडी लोक वेंचून काडून धाडटात. प्रदेशाचो भितरलो कारभार एक प्रशासक पळयता. ताका सल्लो दिवपाक २१ वांगड्यांची वयल्या पांवड्याची पंचायत आसता. हांगाची न्यायवेवस्था मुंबय वरिश्ट न्यायालयाच्या अधिकारांत येता. सिल्वासाक दिवाणी जिल्लो आनी सत्र न्यायालयां आसात. सिल्वासा हें हांगाचें मुखेल शासकीय आनी वेपारी थळ.

**अर्थीक स्थिती** : शेती हो ह्या प्रदेशांतलो मुखेल वेवसाय. हांगाचो कांय वाठार चिकणमाती मुक्त आसा. उत्तर आनी दक्षिण वाठारांतली जमीन घोळटे शेतीखातीर उथळ आनी मुरूममिश्रीत जाल्या. पूण तातूंत ओलसाण आशिल्ल्यान पिकां बरीं येतात. भात आनी नाचणें हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. हांगाची शेती मुखेलपणान पावसाचेर आदारून आसता. तेलबियो आनी ऊंस हांचेंच पीक हांगा काडटात. गंवाचें रबी पीक काडटात. राज्यांत वट्ट २,६२६ हॅक्टर जमीन पडंग आसा जाल्यार वट्ट २४,३०० हॅक्टर जमीन शेतासकयल आसा. हांगा व्हड उदका येवजण ना. गुजरातच्या दमणगंगा प्रकल्पाचो ह्या प्रदेशाक लाव जाता. खान्वेल आनी बिंद्राबेनाक तशेंच तिग्रा, खेडी, खडोली, तिनोदा, खान्वेल बिंद्राबेन आनी दादराक उपसां उदका येवजण आसा.

ह्या वाठारांत गोरवांचो दवाखानो, दोन उपचार केंद्रां, पशुसंवर्धन केंद्र, कुक्कूटपालन केंद्र, गोबर वायू केंद्र आसात.

ह्या वाठारांत खनिजां चडशीं मेळटात. सिल्वासा लागीं पिपरिया उद्देगीक वसणुकींत ५६ उद्देगीक केंद्रां आसात. तातूंत मोटारीचे मेकळे भाग, जंतूनाशकां, अभियांत्रिकी वस्तू, हातकागद, कापडी आनी नायलॉन फितां, दोर, फोम, रबरीच्यो वस्तू, शाबू, रसायनीक पदार्थ, कमयल्लें चामडें, नळे, कपडे हांचें सुमार ३२५ ल्हान - व्हड उद्देग चलताले. तशेंच ११८ मध्यम प्रतीचे उद्देग चलतात.

ह्या प्रदेशांतले रस्ते हेंच येरादारीचें मुखेल माध्यम. ह्या राज्याक आपली अशी येरादारी येवजण ना. गुजरात आनी महाराष्ट्र हांचे येरादारीचो

लाव हें राज्य घेता. हांगा रेल्वेचें सगळ्यांत लागींचें स्टेशन म्हळ्यार वापी. तें सिल्वासावन १८ किमी. अंतराचेर आसा. मुंबय ते अहमदाबाद वचपी रेल्वेलायन वापीक जोडल्या.

**लोक आनी समाजजीण** : ह्या प्रदेशाची लोकसंख्या १,३८,५४२ (१९९१). हांगा सगळ्या धर्मांचे लोक रावतात. हांगा ८७% आदिवासी आसात. तातूंत ९५.८३% हिंदू, २.५८% क्रिस्तांव, १% मुसलमान, १.१% बौध्द, ०.४१% जैन आनी ०.०३% हेर धर्माचे लोक रावतात. तशेंच ०.०५% लोकांच्या धर्माची नोंद ना. हांगाचे लोक गुजराती, वारली, मराठी, धोडिया, कोंकणी, हिंदी ह्यो भासो उलयतात.

**सण आनी उत्सव** : हिंदू, क्रिस्तांव आनी मुसलमान लोक त्या - त्या धर्माचे सगळे सण मनयतात. वारली आनी कोंकना आदिवासी 'बरश' ह्या नांवान दिवाळी मनयतात. 'अरख्य व्रिज' हो सण कोंकना आदिवासी मनयतात. हातूंत बायलोच चड वांटो घेतात. वारली, कोंकना, कोली आदिवासी, भाव हो सण मनयतात. लुवणे पयलीं आनी मागीर ग्रामदेवीची (कालीमातेची) पुजा करतात.

**शिक्षण** : हांगा बरपाक्षरीचें प्रमाण ३९.४५% आसा. तातूंत दादल्यांचें प्रमाण ५२.०७% आनी बायलांचें प्रमाण २६.१०% आसा. हांगा गुजराती आनी मराठी मुळाव्यो शाळा, अनुदान घेवपी मिशनरी शाळा, माध्यमिक शाळा, आश्रम शाळा आसात. आदिवासींखातीर शिश्यवृत्त्यो आसात. सिल्वासा आनी नरोलीक वाचपघरां आसात.

**म्हत्वाचीं स्थळां** : हांगाचें वनविहार हें पळोवपासारकें थळ. खानवेलाक साकरतोड न्हंयेचे देगेर एक सैमीक बाग तयार केल्या. चोंयवटेन रान आनी शेतां आसात. तेभायर आदिवासी संस्कृतीक संग्रहालय बांदलां. न्हंयेचे देगेर वैदाविहार ही बाग बांदल्या. तेभायर यूथ हॉस्टेल, रिक्रिएशन केंद्रां, सैमीक नदरेन सुंदर अशे जागे पर्यटकांक ओड लायतात.

– माणिकराव राम नायक गावणेकार

**दादू दयाळ** : (जल्म : इ. स. १५४४, अहमदाबाद, गुजरात; मरण : इ. स. १६०३ नरान्याचे गुहेंत, सांभर राजस्थान).

दादू पंथाचो प्रवर्तक. समाजसुदारक, धर्मसुदारक आनी रहस्यवादी कवी. ताचे जातीविशीं विद्वानांचे खूब मतभेद आसात. त्या काळांतलो मुसलमान इतिहासकार मुहसन फनी हाणें ताका मुसलमान धुनिया म्हळां. संत रज्जब ताका 'धुनी गर्ये उत्पन्नो' म्हळ्यार धुनिया बायलेच्या पोटांत जल्मल्लो अशें म्हण्टा. बंगालांतल्या बाऊलांच्या पदांनी ताचें मूळ नांव दाऊद आशिल्ल्याचें मेळटा. कांय जाण ताका मुसलमान समजतात जाल्यार कांय जाणांच्या मतान तो लोदीराम नांवाच्या ब्राह्मणाचो पूत आशिल्लो. तशेंच ताका गरीबदास, मिस्किनदास हे दोन पूत आनी नानाबाई, माताबाई ह्यो धुवो आशिल्ल्यो.

पिरायेच्या अठराव्या वर्सा बाबा बुड्ढन वा वृध्दानंद नांवाच्या साधवाकडल्यान ताका गुरुपदेश मेळ्ळो. उपरांत ताणें तीर्थयात्रेच्या निमतान भारतभर भोंवडी केली. हे भोंवडेंत ताणें साधवाच्यो भेटी घेवन खूब अणभव घेतलो. भोंवडी सोंपतकच तो सांभराक रावपाक लागलो. ह्या काळांत ताणें 'ब्रह्मसंप्रदाय' नांवाच्या नव्या संप्रदायाची स्थापणूक केली. स वर्सां सांभराक रावतकच तो आमेराक रावपाक लागलो.

आमेराक इ. स. १५८६ वर्सा अकबर बादशहा ताका मेळपाक आयलो आनी ताणें दादूवांगडा चाळीस दीसमेरेन अध्यात्माचेर चर्चा केली अशें सांगतात.

दादूची शिश्यपरंपरा व्हड आशिल्ली. जे सुवातेर हो सत्संग चलतालो ताका 'अलख दरीबा' म्हण्टाले. ताच्या संप्रदायाक 'ब्रह्म संप्रदाय', 'परब्रह्म संप्रदाय', उपरांत 'दादू संप्रदाय' वा 'दादू पंथ' अशीं नांवां पडलीं. त्या काळांत हो पंथ खूब लोकप्रिय आशिल्लो. ह्या पंथांत रज्जब, सुंदरदास, गरीबदास, जनगोपाल, जगजीवन अशे नामनेचे साधक जावन गेले. सुमार शंबर वर्सांनी ह्या पंथाचे जायते उपपंथ जाले.

दादून सुमार वीस हजार पदां आनी साखी बरयल्ल्यो; पूण खूब थोडी रचणूक आयज उपलब्ध आसा. 'अनभैवाणी' आनी 'कायाबेली' हीं ताच्या काव्याचीं दोन संकलनां उजवाडायल्लीं आसात. ताचे शिश्य संतदास आनी जगन्नाथदास हाणीं 'हरडे वाणी' नांवाचें संकलन तयार केल्लें.

दादूची वाणी कबीराचे वाणीभाशेन विवेकनिश्ठ विचारांनी आनी पारमार्थिक उच्च अणभवांची आसा. ताचे साधनेंत वैशणवांची अहिंसा, योग्यांचो चित्तवृत्तिनिरोध, सुफींचें प्रेम आनी साधवांच्या शब्दयोगाचो मेळ आसा. आत्मसमर्पणाची भावना, प्रपंचाचें मिथ्यात्व, सामान्य संवसारी जिवांची बध्दता, गुरू आनी गोविंद हांचो एकवट, परब्रह्माची भक्ती आनी ताच्या विरहाचें दुख्ख दादूच्या काव्यांत दिसता. कबीराचे वाणींत आत्मप्रत्ययाची खरसाण आसा. पूण दादूचे वाणींत आत्मसमर्पणाची भावना जाणवता.

उत्तर भारतांतले निर्गूण उपासनेचे परंपरेंत कबीरावांगडा दादूचेंय नांव घेतात. हिंदू आनी मुसलमान हांच्या एक्रवटाखातीर ताणें खूब यत्न केले.

आमेराक दादून चवदा वर्सां वास्तव्य केलें. थंय दादूपंथाचो मुखेल 'दादूद्वारा' आसा. तातूंत दादूच्यो पादुको, कपडे, केंस आनी दुदयाचें भिक्षापात्र आसा. थंय दादूचे पुण्यतिथी निमतान दर वर्सा फाल्गुन शुध्द चवथ ते पुनवमेरेन व्हड जात्रा भरता.

– कों. वि. सं. मं.

**दादू पंथ** : उत्तर भारतांतलो एक धर्मपंथ. एक निर्गुणोपासक संप्रदाय. दादू दयाळ हो ह्या संप्रदायाचो संस्थापक आशिल्लो. इ. स. १५७३ वर्सा राजस्थानांतल्या सांभर हांगा ह्या पंथाची स्थापणूक जाली, अशें परशुराम चतुर्वेदी हाचें मत आसा. ह्या संप्रदायाचें मूळ नांव ब्रह्म संप्रदाय वा परब्रह्म संप्रदाय अशें आशिल्लें. ताचो 'सहज मार्ग' ह्या नांवानूय उल्लेख मेळटा.

हट्टान इंद्रियदमन करपी योगमार्ग आनी सगूण उपासनेचो भक्तीमार्ग ह्या दोगांय मदलो मार्ग दादून आपणायलो. ताकाच सहजमार्ग म्हळां. हातूंत जपाक चड प्राधान्य आसा. ह्या पंथाच्या अनुयायांभितर हिंदूंभाशेन मुसलमानूय आसात.

मरणा उपरांतचे मुक्तीचेर ह्या पंथाचो विस्वास ना. प्रेम आनी सेवा हांचेर ताचो चड भर आसा. सहज, समर्पण, स्मरण आनी सेवा ह्या चार तत्त्वांचेर ह्या पंथाची उबारणी जाल्या.

दादून जीं तत्त्वां आपणायलीं, तीं ताच्या कांय शिश्यांनी पाळ्ळीं नात. ताका लागून ह्या पंथांत आनीक उपपंथ तयार जाले. दादून

देवळांआड विचार मांडले; पूण ताच्या शिश्यांनी दादूचींच देवळां उबारलीं. ताणें वर्णधर्माचेर टिका केली. पूण फुडें द्विजांनीच वाणी वाचची असो संकेत रूढ जालो.

ह्या पंथान रामाक श्रेश्ठ मानला; पूण तो दशरथी राम नासून परब्रह्म आसा. परब्रह्माची उपासना 'सत्‌राम' ह्या जपान जाता. व्रतां करप, मुर्तीची पुजा करप, तीर्थयात्रा, जातीभेद ह्या गजालींक ह्या पंथान विरोध केला.

ह्या पंथांत दोन मुखेल भेद आसात - १) गृहस्थ आनी २) साधू. गृहस्थांत परत तीन भेद आसात - १) उत्तरगढी - हे वैजकी करतात. २) खालसा-अध्ययन, अध्यापन आनी भजन हें तांचें खाशेलपण आसता. ३) खाकी - हे बैरागी आसून सदांच भोंवत आसतात.

साधुंमदीं दोन भेद आसात - १) नागा : हे सादीं आनी उणीं वस्त्रां वापरतात. ते शस्त्रधारी आसून शस्त्रविद्येंत कुशळ आसतात. ह्या उपपंथाचो प्रवर्तक म्हळ्यार पयलो सुंदरदास.

२) विरक्त : हे भिक्षा मागतात. गृहस्थांक धर्मोपदेश करतात. भगवीं वस्त्रां धारण करून भोंवत आसतात.

दादूपंथी समाज साधू आनी सेवक अशा दोन वर्गांनी विभागला. साधू ब्रह्मचर्य पाळटात आनी मठांत रावून वा यात्रा करीत जगतात. साधवांच्या हातांत एक स्मरणी आसता आनी तोंडान ते 'सत्तराम' असो जप करतात. सेवक हे गृहस्थाश्रम आपणायतात.

ह्या पंथाचें भरपूर साहित्य आसा. दादूच्या १५२ शिश्यांतल्या ५२ शिश्यांक 'दादूद्वार' म्हण्टात. ह्या पंथाचे अनुयायी उत्तर भारतांत खूब आसात. तांच्यो स्वतंत्र पाठशाळा आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## दादोजी कोंडदेव : (जल्म : १५७७; मरण : ७ मार्च १६४७).

शहाजी आनी शिवाजीचो एक लागींचो असो विस्वासू आनी कर्तबगार कारभारी. तो ब्राह्मण आशिल्लो. शहाजीकडेन आशिल्ल्या देशमूखी गांवांमदल्या मलठणचो तो कुलकर्णी आशिल्लो. शहाजीन आपल्या पुणें जहागिरीचो कारभारी म्हणून ताची नेमणूक केली. ताचेपयलीं विजापूरच्या आदिलशहाचो सुभेदार म्हणून तो काम पळयतालो.

शहाजीन ताची जिजाबाई आनी शिवाजी हांचेवांगडा पुण्यालागसार रावपाची वेवस्था केल्ली. शिवाजीच्या शिक्षणाची जापसालदारकी ताचेर सोंपयिल्ली. ताणें शिवाजीक झुजाचें तशेंच राजनितीशास्त्राचें शिक्षण दिलें.

दादोजी हाणें कारभारी म्हणून सुत्रां हातांत घेवंचे पयलीं पुणें जहागिरीची स्थिती सामकी वायट अशिल्ली. विजापूरी सरदार रायाराव हाणें पुणें लासून उडयल्लें तेन्ना शेत कसोवपी लोक पळून गेल्ले.

दादोजी हाणें पळून गेल्ल्या लोकांक परत आफोवन हाडले आनी तांकां परत शेत कसोवपाक उर्बा दिली. पुणें वाठाराचे सुरक्षिततायेची ताणें बरी वेवस्था केली. देशमुखींतलीं झगडीं मिटोवन तांचो एकवट घडोवन हाडून स्वराज्याच्या वावराक आदार दिलो. शिवाजीचो पालक आनी स्वराज्याच्या सुर्वेच्या काळांतलो शिवाजीचो एक मार्गदर्शक म्हणून मराठ्यांच्या इतिहासांत ताची आगळी अशी सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## दान :

'दा' ह्या मूळ संस्कृत धातूवयल्यान दान शब्द जाला. दानाच्यो कांय व्याख्या आसात त्यो अशो - (१) 'मूल्यग्रहण' विना स्वस्वत्वध्वंसपरस्वत्वजनक : 'त्याग' म्हळ्यार वस्तूचें मोल घेना आसतना ताचेवयलो आपलो मालकीहक्क ना करून थंय दुसऱ्याची मालकी तयार करप. अशा प्रकारच्या त्यागाक दान म्हण्टात. (२) 'अर्थानामुदिते पात्रे श्रध्दया प्रतिपादनमं। दानमित्यभिनिर्दिष्टं' म्हळ्यार योग्य व्यक्तीक श्रध्देन द्रव्य ह्या सारक्यो वस्तू दिवप हाका दान म्हण्टात. (३) 'दानं नाम न्यायर्जितस्य धनधान्यादे : श्रध्दया अर्थिभ्यः प्रदानम्' - न्यायान मेळिल्लें धनधान्य आदी वस्तू गरजवंतांक दिवप हाका दान अशें म्हण्टात (शांडिल्योपनिषद). दान दिवपी, दान घेवपी, श्रध्दा, धर्मयुक्त, दिवपाची वस्तू, देश आनी काळ अशीं दानाचीं स आंगां आसात. कूर्म पुराणांत दानाचे चार प्रकार सांगल्यात ते अशे - (१) नित्य - कसल्याच फळाचो उद्देश मनांत धरिनासतना दर दिसा कांय प्रमाणांत जें दान दितात तें नित्य; (२) नैमित्तिक - पापाचो नाश जावंचो म्हणून वा प्रायश्चीत घेवपाच्या उद्देशान जें दान दितात तें नैमित्तिक; (३) काम्य - भुरगें, आस्पत, जैत वा सर्ग आदी गजाली मेळपाखातीर जें दान दितात तें काम्य; (४) विमल - देवाचे खोशयेखातीर धर्मयुक्त मनान आनी बुद्दीन जें दान दितात तें विमल.

गरूड पुराणांत दानाचे कायीक, वाचीक आनी मानसीक अशे तीन प्रकार सांगल्यात. स्वताच्या वजनाइतलें भांगर - रुपें दिवप हें (तुलादान) कायीक, संकश्टांत सांपडिल्ल्या मनशाक अभय दिवप हें वाचीक आनी स्वता मंत्र बी विद्या मेळोवन तिचें अनुश्ठान करून दुसऱ्याक ते विद्येचें फळ मेळोवन दिवप हे मानसीक दान.

गीतेंत दानाचे तीन प्रकार सांगल्यात. जें दान कर्तव्य म्हणून वा परत दिवपाच्या उद्देशान करिनासतना देश, काळ आनी पात्र हांकां दितात तें सात्विक दान. ह्या ना त्या प्रकारान परत फळ मेळपाच्या उद्देशान वा मनांत विशिश्ट फळाचो उद्देश धरून वा मनाक त्रास दिवन दिल्लें दान हें राजस. अपवित्र थळ, खंयच्याय वेळार, अयोग्य मनशांक, सत्कार करिनासतना, वायट बुद्दीन जें दान दितात तें तामस.

जैन ग्रंथांत पात्र, करुणा, सम आनी अन्वय अशे दानाचे चार प्रकार सांगल्यात. योग्य मनशाक दिल्ल्या दानाक पात्र म्हण्टात. दीन - दुबळ्यांक दिल्ल्या दानाक करूणा म्हण्टात. आपल्या धर्मातल्या लोकांक दिल्लें दान हें सम आनी आपली आस्पत आपल्या उत्तराधिकाऱ्याकडेन सोंपोवप हें अन्वयदान. तेभायर आहारदान, वखददान, मुनींक धर्मीक उकरणाचें दान, तांकां रावपाखातीर वसतीदान, ज्ञानदान आनी अभयदान हीं दानां जैनांनी व्हड मानल्यांत.

दान करपाच्या द्रव्याचे तीन भेद सांगल्यात. शुक्ल, मिश्रीत आनी कृष्ण. शास्त्र, तप, याग, परंपरा, पराक्रम आनी शिश्य हांचेपसून मेळिल्लें द्रव्य हें शुक्ल व्याज, शेती आनी वाणिज्य हांचेपसून मेळिल्लें द्रव्य हें मिश्रित आनी सेवा, द्युत आनी चोरी हांचेपसून मेळिल्लें द्रव्य हाका कृष्ण म्हळां. शुक्ल द्रव्याचें दान केल्यार सूख, मिश्रीत द्रव्याच्या दानान सुख - दुख्ख आनी कृष्ण द्रव्याच्या दानान दुख्ख मेळटा असो समज आसा.

दानांत महादान, लघुदान आनी सामान्य दान अशे तीन भाग सांगल्यात. महादानां १६ तरेचीं आसात. तातूंत तुलादान (भांगर-रुपें) हाका चड म्हत्व दिलां. गुप्तदान नांवाचोय एक प्रकार रूढ आसा.

घेतल्याक द्रव्याची कल्पना दिना आसतना दान दिवप हाका गुप्तदान म्हण्टात. सगळ्या दानांमदीं अन्नदान आनी विद्यादान हांकां श्रेश्ठ समजतात. विशिश्ट कामाची पुर्ती जावपाखातीर तशेंच वेगवेगळीं संकश्टां आनी रोग हांचें निवारण करपाखातीरय वेगवेगळ्या प्रकारांचीं दानां करतात. कांयकडेन नवग्रहांची पिडा पयस करपाखातीर त्या त्या ग्रहांचीं खाशेलीं दानां करूंक सांगतात.

दान दिवपी आनी दान घेवपी मेळून दानाचो वेव्हार घडटा. दान दितना दिवप्याक जशी योग्यताय आसची पडटा तशीच पात्रताय दान घेतल्याकडेनय आसची पडटा. तपस्वी, वेद आनी शास्त्र हांची जाण आशिल्लो, तशेंच शास्त्रांत सांगिल्ल्या आचरणान वागपी मनीस दानाक पात्र समजतात. हातूंत गुरूक पयलें स्थान प्राप्त जाता. ताचेउपरांत विद्या, गूण आनी पिराय हांचेप्रमाण पात्रताय मानतात. तेउपरांत ब्राह्मणाक दिल्लें दान स गुणांनी, क्षत्रियाक तीन गुणांनी, वैश्याक दोन गुणांनी आनी शुद्राक सामान्य फळ दिवपी अशें म्हळां. अन्न आनी वस्त्र हांचें दान दिता आसतना योग्य पात्रताय पळोवपाची गरज आसता.

वेदोत्तर काळांत क्षत्रिय राजांचे बाबतींत दाना फाटल्यान पराक्रमाची प्रेरणा दिसता. सुर्वेक जैत मेळोवन कराच्या रुपान धन मेळोवप आनी उपरांत यज्ञ करून तें धन ऋषींक आनी गरजवंतांक दान दिवप अशा वृत्तीच्या राजांचो उल्लेख पुराणांनी मेळटा. हरिश्चंद, दधीची, शिबी आदींची नामना आसा. रघुराजान विश्वजित यज्ञ करून सर्वस्वाचें दान केल्ल्याची कथा कालिदासान रघुवंशांत सांगल्या. कर्ण हो दानवीर आशिल्लो अशी महाभारतांत ताची नामना आसा.

दान हे संकल्पने फाटल्यान धर्मीक संदर्भावांगडाच समाजीक आनी अर्थीक संदर्भ आसा. दानाफाटलें परोपकारी भावनेंत पुण्याचो तसो मानवतेचो विचार आसा. हाका लागून सगळ्याच धर्मांनी दान प्रवृत्तीचें समर्थन केलां. आपणाकडेन आसा ताचो कांय वांटो दुसऱ्यांक दिवन दुसऱ्याची गरज भागोवपांतल्यान समाजीक समतेची भावना आसा. महर्षी विनोबा भावे हाणें मुखार हाडिल्ले ग्रामदानाचे कल्पनेफाटल्यान समाज हिताची भावना आशिल्ल्यान ती येसस्वी जावंक पावली.

दानाचें म्हत्व लक्षांत घेवन आदींसावन शासनान ताची दखल घेतिल्ली आसा आनी ताचेसंबंदीं कायदे केल्ले आसात. भारतीय कायद्याप्रमाण संपत्ती हस्तांतरण अधिनियम कलम १२२ ते १३० दानां दिवपा-घेवपा संबंदी स्पश्टीकरण दिता. दानांत दिल्ले संपत्तीवयल्या आयकरांत सूट दिवपाची वेवस्था कायद्यांत आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**दानव :** असुरांमदलो एक वर्ग. दनू नांवाचे कश्यपाचे बायलेपसून हांची उत्पत्ती जाली. देखून हांकां दानव अशें म्हळां. ऋग्वेदांत हो शब्द आयला आनी तातूंत वृत्ताक दानव अशें म्हळां. दानव हे दृढनिश्चयी, धाडशी, निर्दय आनी मंत्रविद्येंत प्रवीण आशिल्ले. तांकां तप करपाची आवड आशिल्ली. कितल्याशाच दानवांनी दीर्घ काळ खर तप करून ब्रह्मदेवा कडल्यान आनी शिवा कडल्यान वर जोडल्यात. ते यज्ञाक विरोध करताले. पूण तांच्यांतल्या कांय दानवांनी मानवधर्म आपणायल्लो, अशें वायूपुराणांत म्हळां. भागवत पुराणांत रसातळ हो दानवांचो प्रदेश आशिल्ल्याचें आनी थंयच्या श्वेत पर्वताचेर तांचो राबितो आशिल्ल्याचें सांगलां. दानव हे विष्णुद्वेश्टे आशिल्ले अशेंय म्हळां. मुखेल दानवांचीं नांवां महाभारतांत दिल्यांत, तीं अशीं – बली, शाल्व, दीर्घजिह्व, दुर्जय, खर, हिरण्यकशिपू, इल्वल, मधू, कैटभ, मद, महिष, मय, नरक, पीठ, प्रल्हाद, पुलोमा, राहू, तारक, विविन्ध्यु, वृत्र आदी. भागवतांत तांचो आंकडो ६१ सांगून, तातूंतल्या मुखेल दानवांची वळेरी दिल्या, ती अशी – द्विमूर्धा, शंबर, अरिष्ट, हयग्रीव, विभावसू, अयोमुख, शंकुशिरा, स्वर्भानू, कपिल, अरूण, पुलोमा, वृषपर्वा, एकचक्र, तापन, धूम्रकेश, विरूपाक्ष, विप्रचित्ती आनी दुर्जय.

रावणाची भयण कुंभनसी ही मधू नांवाच्या एका दानवाकडेन लग्न जाल्ली. पूण रावणाचें आनी दानवांचें वैर आशिल्लें, अशें दिसता. दानव हे रामाचे पक्षपाती आनी रावणाचें वायट चिंतपी आशिल्ले. लक्ष्मणान इंद्रजिताचो वध करतकच दानव खोशी जाले. रावणान रामाक त्रास दिल्ले, तें पळोवन तांकां खूब वायट दिसलें. रावणाचो वध जातकच ते खूब खोशी जाले. राम परत आपल्या विष्णुरुपाक वतकच दानवांक उपाट खोस जाली अशें वाल्मिकी रामायणांत सांगलां.

असूर, राकेस, दानव हे मूळचे वेगवेगळे लोकसमाज आशिल्ले. पूण फुडें तांच्यांतलो भेद पयस जावन हे सगळे शब्द एकाच अर्थान वापरूंक लागले. दानव हे दोंगरी आसूं येत, अशें कांय जाणकारांचें म्हणणें आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**दान्तश, ज्युलियु :** (जल्म : १९ मे १८७६, लागुश आल्गार्व्ही; मरण : १९६२, लिस्बन).

पुर्तुगीज नाटककार आनी कादंबरीकार. तो वेवसायान दोतोर आशिल्लो. लिस्बनाचे विज्ञान अकादेमीचो तो वांगडी आशिल्लो, पूण नाटककार, कादंबरीकार म्हणून ताका चड नामना मेळ्ळी. पूण ताणें आपले साहित्य सेवेची सुरवात मात काव्य बरपान केली. 'नादा' (१८९९, इंग्लीश नांव) ह्या नांवान ताच्यो कविता संग्रहीत केल्यात. 'अ सैय दुश कार्दिआयश' (१९०२, इंग्लीश नांव ध कार्डिनल्स सपर) ह्या ताच्या नाटकाक संवसारीक नामना मेळ्ळी. १९६८ मेरेन ताच्यो ५० आवृत्त्यो आयल्यो. 'ऊ सॅरांव नश लारांझ्यैरश (१९०४, इंग्लीश नांव ॲन इविनिंग इन ध ऑरेंज ग्रुव), पासु द व्हैरूश (१९०३, इंग्लीश नांव पॅलेस ऑफ व्हैरूश) हीं हेर उल्लेख करपासारकीं नाटकां. 'अ सॅव्हॅरा' (१९०१, इंग्लीश नांव ध सिनीअर) ही ताची इतिहासीक कादंबरी. विसाव्या शतमानाच्या पयल्या भागांत स्वच्छंदतायवादी नदरेंतल्यान इतिहासांत रस घेवपाची जी प्रवृत्ती पुर्तुगीज साहित्यांत परगटावप जाली तिचो दान्तश हो एक उल्लेख करपासारको प्रतिनिधी.

– कों. वि. सं. मं.

**दान्ते, आलिगेरी :** (जल्म : १२६५, फ्लॉरेन्स, इटली; मरण : १४ सप्टेंबर १३२१ राव्हेना).

संवसारीक नामनेचो इटलियी म्हाकवी. ताचो जल्म एका गिरेस्त घराण्यांत जालो. ताचे पिरायेच्या सव्या वर्सा ताचे आवयक आनी बाराव्या वर्सा बापायक मरण आयलें. उपरांत सवती आवयन ताचो सांबाळ केलो. तो णव वर्सांचो आसतना तो ताच्या बापायवांगडा एके मेजवानीक गेल्लेकडेन ताणें येजमानाची बियाट्रिस नांवाची सुंदर ल्हान चली पळयली आनी

ताका दिसलें तिच्या रुपान परमेश्वरी सौंदर्यकल्पनाच ह्या जगांत साकार जाल्ली आसा. ही बियाट्रिस फुडें ताच्या सगळ्या काव्याची स्फुर्तीदाती थरली. ताणें तिचेर 'डिवायन कॉमडी' हें तीन खंडांचें म्हाकाव्य बरयलें. इ. स. १२८३त गेमा डोनाटी हे चलये वांगडा ताचें लग्न जालें.

फ्लॉरेन्साचे इगर्जेचे एके शाळेंत तशेंच बोलोन्या विद्यापिठांत ताणें आपलें शिकप पुराय केलें. उपरांत ताणें लॅटिनांतल्या अभिजात ग्रंथांचो अभ्यास केलो. धर्मशास्त्र, तत्त्वगिन्यान, तशेंच त्या काळांतल्या विज्ञानविशयक ग्रंथांचोय ताणें बारीकसाणीन अभ्यास केलो. फ्लॉरेन्सांतलो एक विद्वान आनी मुत्सद्दी बुनेतो लातीनी हाचेकडेन ताणें साहित्यशास्त्राचो अभ्यास केलो. त्या काळांतल्या फ्लॉरेन्सांतल्या संपन्न आनी संस्कृतीक वातावरणाचो आनी ग्वोदो काव्हालकांती सारक्या कवींचो ताच्या साहित्यीक व्यक्तिमत्वाचेर प्रभाव पडिल्लो दिसता. ताचो 'व्हीता नूओव्हा' (सुमार १२९३; इंग्लीश नांव न्यू लायफ) हो ताचो पयलो कवितांझेलो ताणें काव्हालकांतीक ओंपला.

दान्तेच्या आयुश्यांत तीन म्हत्वाच्यो घडणुको घडल्यो. त्यो म्हळ्यार तो जिका दैवी सोबीतकायेचो अविश्कार मानतालो त्या बियाट्रिसाक पिरायेच्या चोविसाव्या वर्सा मरण आयलें. इ. स. १३०२त ताका फ्लॉरेंसांतल्यान शिमेभायर घालो आनी ज्या सम्राट हॅन्रीकडल्यान दान्तेक फ्लॉरेन्साक परत वचपाच्या संदर्भांत आशा आशिल्ली ताची हार जाली.

हातूंत ब्रियाट्रिसाच्या मरणाचो ताका खर धक्को बशिल्लो तरी तिका उद्देशून ताणें निमाणे मेरेन कविता बरयल्यो. तिच्या मरणाउपरांत तो फ्लॉरेन्स शाराच्या राजकारणांत पडलो. त्यावेळार त्या शारांत खेल्फ पक्षाची सत्ता चलताली आनी गिबेलिन पक्षाच्या लोकांक शारांतल्यान वचचें पडलें. ग्वेल्फ पक्षांत 'व्हायट्स' आनी 'ब्लॅक्स' अशे दोन गट आशिल्ले. दान्ते व्हायट्स गटांत आशिल्लो. राजकीय वावर करता आसतना ताणें ह्या वाठारांतल्या जायत्या समित्यांचेर काम केलें. फुडें ह्या दोन गटांमदीं संघर्श वाडून 'ब्लक्स' ह्या गटाक जैत मेळ्ळें. तेन्ना दान्तेचेर (१३०२) हद्दपार जावपाचो प्रसंग आयलो. ही ख्यास्त फर्मावप जाली तेन्ना तो पोप आठवो बॉनिफेस हाचेकडेन गेल्ल्या शिश्टमंडळावांगडा रोमांत आशिल्लो. फुडें तो गरिबी आनी एकसुरेपण हांचेकडेन झूज दीत इटलींत आशिल्लो.

'डिवायन कॉमडी' हें म्हाकाव्य ताणें आपल्या हद्दपारीच्या काळांत बरयलें. ह्या म्हाकाव्यांत ताणें आत्मो मरणाउपरांत कसो भोंवडी करता आनी निमाणें देवपण मेळयता हाचें नाट्यमय आनी काव्यात्मक तरेन वर्णन केलां. हातूंतल्या पयल्या 'इन्फर्नी' ह्या खंडांत ताणें रोमन म्हाकवी व्हर्निल आत्म्याचो मार्गदर्शक जाल्ल्याचें दाखयलां. 'पर्गेटरिओ' ह्या दुसऱ्या खंडांत बियाट्रिस आत्म्याचें मार्गदर्शक जाल्ल्याचें दाखयलां. 'पंराडिसो' ह्या निमण्या खंडांत संत बर्नार्ड आत्म्याचो मार्गदर्शक जाला अशें दाखयलां. ह्या तीन खंडांचें वाचन जाले उपरांत, निमाणेकडेन, वाचकाक समजता की, ह्या तीनय लोकांतल्यान प्रवास करपी आत्मो हो बियाट्रिसाचो आसून निमाणें तें देवत्वाक पावता. मानवी आत्म्याची मुक्ती जावन तो देवत्वाक कसो पावता हें दाखोवपी ह्या रुपकात्मक म्हाकाव्याक नैतिक, धर्मीक तशेंच आध्यात्मिक पांवडे आशिल्ल्यान क्रिस्तांव धर्मियांचे नदरेन हो खूब म्हत्वाचो काव्यग्रंथ.

ह्या काव्यग्रंथाभायर ताणें १२९५ च्या सुमाराक 'व्हीता नओव्हा' (द न्यू लायफ) हो गद्यपद्यात्मक दरबार वाङ्‌मय परंपरेंतलो ग्रंथ बरयलो. हाचेभायर अज्ञातवासांत आसतना ताणें 'द व्हल्गारी इलोक्वेंतीआ' ग्रंथ बरयलो. सुमार १३०४ - १३०७ ह्या काळांत ताणें स्वताच्या काव्याविशीं तत्वचिंतनात्मक भाश्य करपी 'इल कोन्व्हीव्हीओ' हो ग्रंथ बरयलो. सुमार १३१२ - १३ ह्या काळांत ताणें मोनार्कीआ हो ग्रंथ बरयलो.

आपले संघर्शमय जिणेंत, चड करून दोन दशकांचे हद्दपारींत ताणें संवेदनशील काव्यमनान आनी तत्वगिन्यानाचे समंजस तशेंच विशाल नदरेन जिविताचे सोद घेवन मानवी मनाचो तळ सोदपाचो यत्न केला.

- अशोक कृष्णाजी जोशी

**दाभोळ :** रत्नागिरी जिल्ह्याच्या दापोली तालुक्यांतलें एक म्हत्वाचें बंदर. दापोलीचे दक्षिणेक सु. २५ किमी. अंतराचेर आनी दर्यावेळेसावन ३.२ किमी. भितर वाशिष्टी न्हंयेचे उजवे देगेचेर हें बंदर वसलां. हांगा आशिल्लें दाभ्य जंगल वा दाभिलेश्वर ह्या नांवावयल्यान हाका दाभोळ हें नांव पडलां आसूंक जाय. आग्नेय दिशेक १८५ किमी. अंतराचेर आशिल्लें, कराड हें हाचें लागींचें रेल्वे स्टेशन. हें बंदर दापोलीक रस्त्यान जोडलां जाल्यार मुंबयक उदकामार्गान जोडलां. ह्या बंदरांत तीन दीपगृह आसात.

१३१२ वर्सा मलिक काफूर हाणें हें बंदर उद्‌ध्वस्त केल्लें. युसूफ आदिलशहाच्या काळांत दाभोळ हें विजापूर राज्यांतलें मुखेल ठिकाण आशिल्लें. १६६०त शिवाजी महाराजान हो वाठार जिखलो. शिवाजीन हाचें आरमारी केंद्र केलें आनी मुलकी खात्यांत दाभोळ हो सुभा केलो.

१४ ते १६ व्या शेंकड्यामेरेन तांबड्या दर्याचे देगेवयल्या बंदरांकडेन हाचो व्हडा प्रमाणांत वेपार चलतालो. सध्याक हांगासावन चडशी सुपारेची निर्यात जाता. कापड विणप हो हांगाचो मुखेल उद्येग. ह्याच वाठारांत, आतां भारतांतलो एक व्हड वीज-निर्मितीचो प्रकल्प सुरू जावपाचो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**दाभोळकार, नामदेव दत्ता :** (जल्म : २५ ऑगस्ट १९४०, हणजुणें).

गोंयचो सुटकेझुजारी. गोंयच्या नॅशनल काँग्रेसीचो तो वांगडी आसलो. २६ जानेवारी १९५५क शांबा पालयेकाराच्या मुखेलपणाखाला हणजुणां ताणें सत्याग्रही चळवळींत वांटो घेतलो. ताका लागून ताका धा वर्सां आग्वादाक बंदखण भोगची पडली.

केंद्र सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**दाम :** एक पोरणें नाणें. द्रम्म ह्या संस्कृत उतरावयल्यान दाम हो शब्द आयला. द्रम्म म्हळ्यार भांगर वा भांगराचें नाणें. फुडें ताचो अपभ्रंश जावन भांगरनाणें वा पयसो-आडको असो ताचो अर्थ जालो.

मध्ययुगांत द्रम्म नांवाचें नांव वापरांत आशिल्लें. कालांतरान दाम हें तांब्याचें ल्हानशें नाणें तयार जालें. अकबराच्या वेळार दामाचें वजन १ तोळो, ८ मासे आनी ७ रती इतलें आशिल्लें. ४० दामांचो एक रुपया जातालो. त्या वेळार सरकारी वसुली दामांनी मेजताले.

२६ कवड्यो = १ दमडी = ३ दाम आनी २० दमड्यो = १ आणो अशें कोश्टक आसलें.

- कों. वि. सं. मं.

**दामले, मोरो केशव :** (जल्म : ७ नोव्हेंबर १८६८ मालगुंड, जिल्हो रत्नागिरी; मरण : ३० एप्रिल १९१३).

नामनेचो मराठी व्याकरणकार. कवी केशवसूत आनी पत्रकार सी.के. दामले हांचो भाव. ताचो बापूय केशव विठ्ठल प्राथमिक शिक्षक आशिल्लो. ताचें शालेय शिक्षण दाभोळ, बडोदे आनी अमरावतीक जालें. फुडें डॅक्कन कॉलेजांत १८९२त बी.ए. करून १८९४ वर्सा तत्त्वज्ञान विशय घेवन एम्. ए. पदवी घेतली. कॉलेजांत तो दक्षिणा फॅलो आशिल्लो. १८९४ ते १९०८ मेरेन उज्जैनच्या माधव कॉलेजांत तत्त्वज्ञानाचो प्राध्यापक आशिल्लो. फुडें नागपूरच्या नीलसिटी हायस्कुलांत पर्यवेक्षक (सुपरवायझर) जालो.

पूर्वकालीन वैयाकरणांच्या मतांचो चिकित्सक नदरेन अभ्यास करून ताणें मराठी व्याकरणाची पुनर्रचणूक करपाचो यत्न केलो. १९०४ वर्सा जाल्ले शुध्दलेखन परिशदेंत ताणें वांटो घेतिल्लो. 'शुध्दलेखन सुधारणा' वा 'सरकारी बंडावा' (१९०५) ह्या पुस्तकांनी ताणें मराठी व्याकरणाविशीं सडेतोड मतां उकतायल्यांत. व्याकरणाच्या मळार ताणें केल्ल्या वावराक लागून ताका मराठी व्याकरणकारांमदीं मानाची सुवात फावो जाता.

ताणें 'ग्रंथमाला' ह्या नेमाळ्यांत बरयल्ल्या लेखांतल्यान ताची 'विचारभ्रमण' आनी 'आधुनिक असंतोष' (एडमंड बर्ककृत प्रॅझँट डिस्कंटॅटाचो अणकार) हीं पुस्तकां तयार जालीं. 'न्यायशास्त्रे' (निगमन) (१८९६) आनी 'न्यायशास्त्र पुस्तक दुसरे' (विगमन) (१९०२) हीं तर्कशास्त्राविशींचीं ताणें बरयिल्लीं पुस्तकां बडोदे सरकारान उजवाडाक हाडिल्लीं.

- कों. वि. सं. मं.

**दामाजीपंत :** (जल्म : १४ वो शेंकडो).

एक मराठी संत. बीदरच्या राज्यांत, सोलापूर जिल्ह्यांतल्या मंगळवेढे गांवांत बादशहाच्या दरबारांत तो कमाविसदार (ठाणेदार) आशिल्लो. दुर्गादेवीचो दुश्काळ म्हण्टात तो ह्याच काळांत पडिल्लो. ह्या दुश्काळांत दामाजीन सरकाराचे गुदांव लुटून गरिबांक वांटले. तेन्ना बादशहाक राग आयलो. ताणें दामाजीक एका म्हयन्याभितर लुटिल्ल्या म्हालाची रक्कम सरकारी खजिन्यांत भरपाक सांगलें. दामाजीक तें शक्य नाशिल्लें. त्या वेळार मंगळवेढ्याच्या विठ्या म्हारान आपलेकडलें सगळें द्रव्य एकठांय करून सरकाराची सगळी रक्कम भरली आनी दामाजीच्या नांवान पावती घेतली. ह्या प्रसंगाचेर दामाजीपंतान एक पदूय बरयलां.

दामाजीपंत विठ्ठलाचो भक्त आशिल्ल्यान विठ्ठलान विठ्या म्हाराच्या भेसांत, बिदराक वचून सगली रक्कम भरली आनी दामाजीवयलें संकश्ट पयस केलें अशी कथा भक्तविजयांत आसा.

बिदरच्या किल्ल्यांत आनी गांवचे एके वेशींत कुरवो आसात. त्यो विठ्या म्हाराच्या पावलांच्यो अशें समजतात. दामाजीच्या चरित्रांतलीं कोठारां लुटप हे म्हत्वाचे घडणुकेची याद म्हणून दर वर्सा हे सुवातेर बिदराक दामाजीचो उत्सव मनयतात.

मंगळवेढ्याक दामाजीची समाधी आसा. थंय दर वर्सा वैशाखांतले पुनवेक दामाजीची पुण्यतीथ मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**दामोदर न्हंय :** बिहार आनी अस्तंत बंगाल राज्यांतल्या प्रदेशांतल्यान व्हांवपी गंगा न्हंयेची उपन्हंय. हे न्हंयेची लांबाय सुमार ६२५ किमी. आसून तिचें उदकवाहन क्षेत्र २०,७०० चौ. किमी. आसा. छोटा नागपूर सड्यांतल्या रांची सड्याचेर आनी दर्याथरासावन सुमार ६१० मी. उंचायेचेर हिचो उगम जाता. तिचो दुसरो उगमप्रवाह हजारीबाग जिल्ह्यांतल्या बालुमाथ गांवाचे दक्षिणेक सुमार ३ किमी. वयल्यान वचून तो पयल्या मुखेल प्रवाहाक सु. २० किमी.चेर मेळटा.

सुर्वेक दामोदर न्हंय सु. ४२ किमी. दोंगरी भागांतल्यान व्हांवता. उपरांत ती सड्यावयल्या विभंग द्रोणींतल्यान करणपुरा आनी रामगड कोळशाक्षेत्रांतल्यान सु. ७५ किमी. उदेंतेक गेले उपरांत ईशान्येक घुंवून सुमार २३ किमी. वचून परत उदेंतेक व्हांवंक लागता. गोमिया, कोनार, जमुनिया आनी हेर प्रवाह तिका दोनूय वटांनी मेळटात. राणीगंज कोळशाच्या क्षेत्रांत अस्तंत भागांत तिका सगळ्यांत म्हत्वाची बराकर ही व्हड उपन्हंय मेळटा. उपरांत बरद्वान आनी हुगळी जिल्ह्यांतल्यान वचून ती कलकत्त्याचे नैर्ऋत्येक ५६ किमी. वयल्या फाल्टा गांवांत हुगळी ह्या गंगेच्या फांट्याक मेळटा.

सुर्वेक सु. २०० किमी. भागांत न्हंयेच्या प्रवाहाचो उतार दर किमी. क १.९ मीटर, उपरांतच्या सुमार १६० किमी. भागांत दर किमी.क ०.५७ मी. आनी निमाण्या सुमार १५० किमी. भागांत तो दर किमी.क फकत ०.१९ मी. जाता. हाका लागून सुर्वेच्या भागांत दामोदर न्हंय खूब नेटान व्हांवता. मुखार उतार उणो आशिल्ल्यान तिचो नेटूय उणो जायत वता. मुखार नेट उणो जाल्ल्यान न्हंयेंत आनी कडांनी गाळ सांठवता. निमाण्या भागांत प्रदेश खूब सपाट आशिल्ल्यान प्रवाहाक फांटे फुटून त्या प्रदेशाक त्रिभूज प्रदेशाचें स्वरूप लाबलां.

दामोदर देगणांत पडपी पावसाचें सगळें उदक हे न्हंयेक आनी तिच्या उपन्हंयांक मेळटा. हाका लागून पावसाच्या दिसांनी ही न्हंय उपाट भरून व्हांवता. हें सगळें उदक आसानसोल लागच्या अशीर भागांतल्यान मुखार वता आनी बरद्वान आनी हुगळी जिल्ह्यांच्या सपाट प्रदेशांनी एकदम पातळटा. दामोदर न्हंयेच्या हुंवारांनी तिच्या लागींच्या प्रदेशाचें खूब नुकसान केलां. कांय वेळार दामोदराचें उदक दक्षिणेकडेन पातळून रूपनारायण न्हंयेकूय मेळटा. १७७०त पुराक लागून बरद्वान शाराचो पुराय विध्वंस जाल्लो. एकुणिसाव्या शेंकड्यांतूय साबार हुंवारांक लागून खूब नुकसान जाल्लें. भारत स्वतंत्र जालेउपरांत हुंवाराचेर नियंत्रण दवरपाखातीर वीज उत्पादन, येरादारी आनी हेर गजालींखातीर दामोदर देगण निगमाची थापणूक केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**दामोदर व्हॅली कॉर्पोरेशन :** अस्तंत बंगाल आनी बिहार राज्यांमदल्या दामोदर न्हंयेच्या देगणांनी भोवउद्देशी उदरगत करचेपासत स्थापन केल्लें कॉर्पोरेशन. अमेरिकेंतल्या टेनिसी व्हॅली कॉर्पोरेशनची देख घेवन भारत सरकारान १४ जुलय १९४८ दिसा दामोदर व्हॅली कॉर्पोरेशन स्थापलें.

ह्या कॉर्पोरेशनाकडेन कामां करपाक दिल्लीं तीं अशीं - १) धरणां उबारून शिंपणावळीची वेवस्था करप. २) हुंवाराचें नियंत्रण करप. ३) दामोदर न्हंयेचो आनी तिच्या फांट्यांचो उदकामार्ग म्हणून वापर करप.

४) वीज तयार करून तिची पुरवण करप. ५) दामोदर न्हंयेच्या देगणांत रानांची लागवड करप आनी जमनीची ताप थांबोवप ६) देगणांतल्या शेतांचो आनी उद्देगांचो सांबाळ करप.

हुंवार नियंत्रण, शिंपणावळ आनी वीज निर्मिती अशी मोख दवरून कॉर्पोरेशनान तिलैया, मैथॉन, पानयेत आनी कानोराक धरणां उबारल्यांत. तशेंच दुर्गापूराक ६९२ मी. लांब आनी ११५८ मी. उंचायेचो बांद उबारला. कॉर्पोरेशनान उबारिल्लीं चारूय धरणां बिहार राज्यांत आसात.

वीज निर्मितीखातीर तिलैया, मैथॉन आनी पानयेताक जल विद्युत केंद्रां उबारल्यांत आनी बोकारो, दुर्गापूर, चंद्रपूराक उश्णीक विद्युत केंद्रां उबारल्यांत.

धरणांक लागून निर्माण जाल्ल्या तळ्यांनी गाळ सांचून धरणांची पिराय उणी जावंची न्हय म्हणून कॉर्पोरेशन जतनाय घेता. तेपासत जमनीची धूप कमी करपाच्या उद्देशान जंगलाची लागवड केल्या.

ह्या कॉर्पोरेशनाच्या वावराक लागून दामोदर देगणांतल्या न्हंयांक वर्सभर उदक आसता. तशेंच, दुर्गापूराक आशिल्ल्या बांदाक लागून सरभोंवतणची जमीन भिजता आशिल्ल्यान ती लागवडीखातीर उपेगांत येता.

दावे वटेनच्या १३६.८ किमी. लांबायेच्या खारजाक लागून राणीगंजाच्यो कोळशाच्यो खाणी उदका मार्गान कलकत्त्याक जोडल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**दामोदर संस्थान :** दक्षीण गोंयांतल्या जांबावली गांवांत हे देवस्थान आसा. दामोदर हें श्री विष्णुचें एक नांव. पूण मुळांत तें शिवलींग आसा. ताचे म्हाजन मात वैष्णव आसात. श्री दामोदर हें दैवत मूळचें मडगांवचें. ख्रिस्तीकरणापयलीं दामोदराचें देवूळ मडगांवच्या म्हाड्डु-वाडींत आशिल्लें. बाटाबाटीच्या काळांत १५६७ च्या अदमासाक मडगांवसावन दामोदराच्या लिंगाचो वयले वटेनचो कुडको कुशावती न्हंयेचे देगेर जांबावली गांवांत व्हरून ताची थंय विधीसयत स्थापना केली. दामोदराच्या लिंगाचे स्थापनेवांगडाच श्री रामनाथ, श्री लक्ष्मीनारायण, श्री महाकाली, श्री महेश, श्री चामुंडेश्वरी आदी परिवार दैवतांचीय स्थापना करपांत आयली.



श्री दामोदर

१९०२ वर्सा मूळ देवळाचो जिर्णोद्धार करून पुराय देवळाक नळ्या जाग्यार तांब्यापत्रे बसयले. फुडें १९७२ वर्सा ह्या देवळाची आधुनीक पद्धतीची पुनर्रचणूक करपांत आयली.

ह्या देवस्थानांतले शिगमो, दसरो, कार्तीक पुनव हे मुखेल उत्सव आसून हेर धर्मीक सण-परबोय हांगां मनयतात. वैशाख पुनवेक हांगा वसंतपुजा जाता. आश्विन शु. १ सावन हांगा नवरात्रोत्सव जावन दसमी दिसा व्हड दबाजान दसरो मनयतात. पुनवे दिसा ग्राम पुरसाचो अवसर येता. तो तापिल्ल्या तेलांतले वडे काडून म्हाजनाच्या हातार प्रसाद म्हणून दिता. फाल्गुन शु. सप्तमीक मंगळारा दिसा गुलाल जाता. हो शिगमोत्सव आठ दीस ह्या देवालयांत चलता. हो उत्सव गोंय भर प्रसिद्द आसून गोंयभरचे आनी खास करून मडगांवचे लोक ह्या गुलालोत्सवाक व्हडा संख्येन हजेरी लायतात. अन्नसंतर्पण हें दामोदराच्या उत्सवाचें खाशेलपण आसून दर उत्सवाक हजारांनी भावीक ह्या अन्नसंतर्पणाचो प्रसाद म्हणून लाव घेतात.

दर सोमाराक ह्या देवालयांत रातची दामोदराची पालखी काडटात. तशेंच श्रावणी सोमाराकय हांगा व्हड उत्सव जाता. ह्या देवस्थानाचे गौड सारस्वत, वैष्णव, कौशिक, काश्यप, भारद्वाज आनी वत्स गोत्राचे म्हाजन आसात.

**श्री दामोदर साल (मडगांव)** - १८८४ वर्सा मडगांवांत पडिल्ले भिरांकूळ धामीच्या प्रसंगावेळार जांबावलेच्या देवळांतल्यान ग्राम रक्षणाखातीर प्रसाद म्हणून नाल्ल हाडपांत आयलो. ह्या नाल्ल्याची प्रतिश्ठापना श्री नरसिंह दामोदर नायक हाचे घराचे एके कुडींत करपांत आयली. फुडें १९१०त हेच कुडींत दामोदराची मूर्त बसोवप जालें. सद्या श्री दामोदर साल (मडगांव) म्हणून ही सुवात वळखुपांत येता.

- कों. वि. सं. मं.

**दारा शुकोह :** (जल्म : इ. स. १६१५; मरण : इ. स. १६५९).

शहाजहान बादशहाचो व्हडलो पूत. शहाजहानाचो आपल्या पुताचेर खूब मोग आशिल्लो. दाराक राजकारणाचो केन्नाच अणभव मेळ्ळोना. तशेंच, इ. स. १६५२ तली कंदाहारची मोहीम सोडल्यार ताका युध्दकलेचेंय व्हडलेंशें शिक्षण मेळ्ळेंना. ताका हिंदू धर्माविशीं ओड आशिल्ली. पूण औरंगजेब हिंदू धर्माचो दुस्वास करतालो, हेखातीर त्या दोगांयभितर दुस्मानकाय आशिल्ली.

इ. स. १६५७त शहाजहान दुयेंत पडलो तेन्ना सगळी सत्ता दाराकडेन आशिल्ली. बापायचें हें सगळें साम्राज्य बळकावपाखातीर औरंगजेब, मुराद आनी शुजा हे तिगूय भाव दाराच्या विरुध्द उठले. समुगडार दारा आनी औरंगजेब हांचें झूज जावन दारा हारलो. एक दीस फितुरी करून औरंगजेबान ताका धरलो आनी ३० जून १६५९ ह्या दिसा खवासपूरचे बंदखणींत ताका हाल करून जिवो मारलो.

सुर्वेक सावन दाराक विंगड विंगड धर्मांकडेन आस्था आशिल्ली. ताणें यहुदी, क्रिस्तांव आनी वेदीक वाङ्मयाचो ते नदरेन अभ्यास केल्लो. काशी, प्रयाग ह्या क्षेत्रांतल्या पंडितांकडेन ताचो सतत संबंद चालू आशिल्लो. काशीक रावपी नामनेचो पंडीत कवींद्र सरस्वती हाचो ताका खूब सांगात मेळ्ळो. पंडितराज जगन्नाथ हाचोय ताका सांगात मेळ्ळो. हाचेकडेन दारान गीता आनी उपनिषदांचें अध्ययन केल्लें. ताणें सुफी पंथाच्या तत्त्वज्ञानाचोय अभ्यास केल्लो.

हिंदू साधू बाबालाल हाका दारा आपलो गुरू मानतालो. हिंदू धर्माचें

रहस्य जाणपाखातीर बाबालालावांगडा केल्ली भासाभास 'नादिरूल नुकात' ह्या ताच्या ग्रंथांत आस्पावल्या. काशींतल्या पंडितांच्या आदारान दारान उपनिषदां आनी भगवद्गीता हांचो फार्सींत अणकार केलो. हेर पंडितांकडल्यान ताणें योगवासिष्ठ आनी प्रबोधचंद्रोदय ह्या ग्रंथांचो अणकार करून घेतलो. दारान केल्लो उपनिषदांचो अणकार 'सिर्रि अकबर' ह्या नांवान उजवाडा आयला. हातूंत पन्नास उपनिषदांचो आस्पाव जाता. ताणें आनिकूय कांय ल्हान-व्हड ग्रंथ बरयल्यात. तातूंतलो ताणें इ. स. १६५५ च्या अदमासाक बरयल्लो 'मज्मुअल बहरैन' हो ग्रंथ सगळ्यांत म्हत्वाचो आनी स्वतंत्र असो आसा. ह्या ग्रंथाचो संस्कृत भाशेंतूय अणकार जाल्लो आसून ताचें नांव 'समुद्रसंगम' अशें आसा.

साधुसज्जनां वांगडा तत्त्वचिंतन करपांत आनी कविपंडितां वांगडा काव्यशास्त्रविनोद करपांतूच ताणें आपली चडशी जीण खर्चिली. बापायचो प्रतिनिधी म्हणून राज्यकारभार पळयतना लेगीत दाराचें मन राज्यवैभवाच्या उपभोगांत घुसपलेंना. ताच्या काळांतले हिंदी संत ताका खरो साधक मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**दार्जिलिंग :** अस्तंत बंगाल राज्यांतल्या दार्जिलिंग जिल्ह्याचें मुखेल थळ. सोबीतकायेखातीर आनी थंड हवेखातीर ह्या थळाची नामना आसा. कलकत्त्याचे उत्तरेक सुमार ४९१ किमी. अंतराचेर लोअर हिमालयांत दर्याचे पातळेसावन सुमार २,१०० मीटर उंचायेचेर हें शार वसलां. हांगा चडांत चड २६.७ अंश सॅ. आनी उण्यांत उणें -१.१° सॅ. इतलें तापमान आसता. वर्सुकी सरासरी पावस सुमार ३,१०० मीमी. पडटा. कांय दीस हांगा बर्फ पडटा. १८३५त ब्रिटीशांनी हें शार सिक्कीमाच्या राजाकडल्यान घेतलें. ब्रिटीशांनी हांगा जायती उदरगत घडोवन हाडली. १८९७त शाराक भूंयकांपाची बादा जाल्ल्यान आनी १८९९ वर्सा चक्री वादळाक लागून ह्या शाराचें बरेंच लुकसाण जालें. १८५० वर्सासावन हांगा नगरपालिका सुरू जाली.

रस्ते, रेल्वे मार्ग आनी हवाई मार्ग हाणीं हें शार मुखेल शारांक जोडिल्लें आसा. फराक्का ह्या पुलाखातीर रेल्वे मार्ग आनी रस्त्यान कलकत्त्यासावन दार्जिलिंग मेरेनची येरादारी सुलभ जाल्या.

ह्या शारांत च्याचे मळे आसून च्या, पालेभाज्यो, नारंगां, बटाट ह्या वस्तूंची हांगासल्ल्यान मुखेल निर्यात जाता. तशेंच, चीनी मातयेचीं आयदनां, माळेचे मणी, पोंवळीं, पितूळचें सामान आदी जायत्या वस्तूंचो हांगा वेपार चलता. हांगा प्लायवुडाचे कारखानेय आसात. १९६२त सुरू जाल्लें 'नॉर्थ बॅंगॉल' विश्वविद्यालय हांगा आसा. जिल्ह्याच्या पांवड्यावयलीं सगळीं शासकीय कार्यालयां हांगा आसात. तशेंच, हांगा येवपी भोंवडेकारांक रावपाखातीर अस्तंते पद्दतीचीं जायतीं विश्रांतीघरां आसात.

चारूय वटांनी दोंगरांनी आनी रानांनी व्यापिल्लें हें सोबीत शार भारतांतल्या तशेंच भारताभायल्या भोंवडेकारांखातीर एक आकर्शक थळ. हांगाचें लॉयड वनस्पती उद्यान, इतिहासीक वस्तूसंग्रहालय, चित्तरंजनदास हाची वास्तू, आदी जायतीं पळोवपा सारकीं थळां हांगा आसात. २,१८२ मी. उंचायेचें 'ऑब्झर्वेटरी हिल' ही हांगासल्ली सगळ्यांत उंचेली सुवात. उत्तरेक ७४ किमी. अंतराचेर सदांच बर्फान भरिल्लें कांचनजंगा आनी एवरॅस्ट तेंगश्यो टायगरहिल वयल्यान पळोवंक मेळटात.

बर्च दोंगुल्ली, सेन्याल तळें, भुतिया बस्तीवेलीं बुध्द देवळां पळोवपासारकीं आसून बर्च दोंगुल्लेचेर सैमीक उद्यान आनी गिर्यारोहण शिक्षणकेंद्र आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**दाल्गाद, मॉंसिन्योर सेबाश्तियांव रोदोल्फु :** (जल्म : ८ मे १८५५, आसगांव, बारदेस - गोंय; मरण : ४ एप्रिल १९२२, लिस्बन).

भाशापंडीत आनी शब्दकोशकार. मॉंसिन्योर सेबास्तियांव हाचो जल्म आसगांवच्या देसाय घराण्यांत जाल्लो. आम्ब्रोसियु लुईश दाल्गादु हाचो तो दुसरो पूत. ताचे आवयचें नांव डी रोझा फ्लोरिंदा द सौझ. ताचो बापूय आम्ब्रोसियु हो एक ल्हानसो भाटकार आशिल्लो पूण ताका गोरवां पोसपाची खूब आवड आशिल्ली . ह्या गोरवां उदेशींच तो सेबाश्तियांव आनी आपल्या हेर तीन पुतांकूय उंचेलें शिक्षण दिवपाक शकलो. सेबाश्तियांव हाचे दोग भाव म्हल्यार, जेलासियु आनी पॅट्रासिनीयु हे दोतोर आशिल्ले तर एदुआर्द हो आदवोगाद आशिल्लो.

सेबाश्तियांव हाचें मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण म्हापशें शारांत जालें. थंय ताणें पुर्तुगेज, फ्रेंच आनी लातीं भाशांचो अभ्यास केलो. पूण तत्त्वगिन्यान हो ताचो मुखेल विशय आशिल्लो. मुखार धर्मीक शिक्षण घेवपाखातीर तो राशोल सेमीनारींत गेलो. थंयूय ताका घसघशीत येस मेळ्ळें. १८८१त तो धर्मोपदेशक (पाद्री) जालो. ताणें आपलें पयलें मीस मोंत द गिरींच्या कपेलांत सांगलें. राशोलचे सेमीनारींत आसतना तो कोंकणीखातीर खूब वावुरलो. उपरांत तो रोमाक गेलो. थंय ताणें धर्मीक आनी रोमन कायदो ह्या विशयांत डॉक्टरेट घेतली. पोपान ताका 'मॉंसिन्योर' ही पदवी दिली. १८८४त तो लिस्बनाक गेलो. थंयसावन १८८५त तो राजाचो मिशनरी म्हणून भारतांत आयलो. भारतांत आयले उपरांत इगर्जेच्या न्यायालयाचो न्यायाधीश, सेमीनारी आनी शाळांचो इन्स्पेक्टर आनी उपरांत राशोलचे सेमीनारींत 'पवित्र ग्रंथाचो' आनी धर्मीक न्यायाचो प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. श्रीलंका, बंगाल, होनावर आनी सावंतवाडीक विकार जनरल म्हणून ताणें वावर केलो.

राजाचो मिशनरी म्हणून भारतांत आयले उपरांत, भारताच्या कांय राज्यांनी तशेंच कांय देशांनीय ताणें विकार जनरल म्हणून वावर केलो. हाका लागून ताका थंयची भास शिकपाची संद मेळ्ळी. सिंहली, मल्याळम, बंगाली, कन्नड, मराठी, संस्कृत आनी खास करून कोंकणी ह्या भाशांचो ताणें रीतसर अभ्यास केलो. उदेंती आनी अस्तंती अशो पन्नास भासो ताका येताल्यो अशें म्हण्टात. संस्कृत आनी कोंकणी हांचो तुलनात्मक अभ्यास करून ह्या दोन भाशांमदीं खूब सारकेपण आसा हें ताणें दाखोवन दिलें.

गोंयांत आयले उपरांत ताका धर्मप्रवचन कोंकणी उतरांनी दिवपाक खूब त्रास जावपाक लागले. हाका लागून ताणें फाविल्ल्या वेळांत कोंकणी - पुर्तुगेज शब्दकोश रचपाचें थरयलें. १८९३त ताणें कोंकणी - पुर्तुगेज शब्दकोश (दिसियोनारियु कोंकानी-पुर्तुगेझ) उजवाडायलो. उपरांत लिस्बनाक वचून ताणें १९०४त 'पुर्तुगेझ-कोंकणी शब्दकोश' (दिसियोनारियु पुर्तुगेझ-कोंकानी) उजवाडाक हाडलो. १९०७ साला ताका पुर्तुगालाच्या विज्ञान अकादमीचें वांगडीपण आनी साहित्यांतली डॉक्टरेट मेळ्ळी.

१९१७-२२ ह्या तेंपार ताणें लिस्बन विद्यापिठांत संस्कृताचो प्राध्यापक म्हणून काम केलें. १८९७त 'हितोपदेश' आनी १९१६त 'नलदमयंती' हांचे पुर्तुगेज अणकार ताणें उजवाडाक हाडले. पुर्तुगेज शब्दांचो आशियी भाशेवयलो प्रभाव (इंफ्लुयॅन्सिय दु वॉकाबुलारियु पुर्तुगेज अँ लिंग्वश आशियातिकश) (१९१३), आनी ग्लोसारियु लुझो - आसियातीकश हे ताचे मोलादीक ग्रंथ. ह्या ग्रंथांत तो पुर्तुगेज भाशेंत रिगिल्ल्या साडेपांच हजार आशियी उतरांचो अर्थ सांगता. 'कोंकणी ओपारींचो झेलो ' ह्या पुस्तकांत ताणें २,००० ओपारी तांच्या अर्थासयत दिल्यात. ताचें पुर्तुगेज भाशेंत बरयल्लें कोंकणी भाशेचे व्याकरण (१९२२) हें हाताळें (Manuscript) सॅन्ट्रल लायब्ररींत (आदले बिब्लिऑतॅक नासिऑनाल) आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**दास, चित्तरंजन :** (जल्म : ५ नोव्हेंबर १८७०, कलकत्ता; मरण : १६ जून १९२५, दार्जिलिंग).

भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींतलो मुखेल बंगाली फुडारी, नामनेचो कायदो पंडीत आनी प्रभावी वक्तो. ताचें मूळ घराणें, बांगला देशांतल्या पद्मा न्हंयेचे देगेर आशिल्ल्या विक्रमपूर जिल्ह्यांतल्या तेलिरबाग ह्या खेड्यांतलें.

ताचो आजो काशीश्वरदास वकील आशिल्लो. ताचे तिनूय चले, काली मोहन, दुर्गा मोहन आनी भूबन मोहन वकील आशिल्ले. चित्तरंजन हो भूबन मोहन आनी निस्तरणीदेवी हांचो चलो.

पिरायेच्या णवव्या वर्सा चित्तरंजनाक शाळेंत घालो. १८८६ वर्सा तो कलकत्ता विद्यापिठाची शालांत परीक्षा पास जालो. उपरांत ताणें प्रेसिडॅन्सी कॉलेजांत प्रवेश घेतलो. साहित्याची ताका चड ओड आशिल्ली. बंगाली भाशेचो ताका खूब अभिमान आसलो. विद्यापीठ पांवड्याचेर बंगाली भास दुसरी भास म्हणून दवरची, हेखातीर ताणें खूब यत्न केले. कीट्स, शॅली, ब्रावनिंग हे इंग्लीश कवी आनी रवींद्रनाथ टागोर, बंकिमचंद्र चॅटर्जी हे बंगाली कवी ताचे आवडटे साहित्यीक आसले.

१८९० वर्सा चित्तरंजन आय.सी.एस. ही परिक्षा दिवपाखातीर इंग्लंडाक गेलो. १८९३ वर्सा ताणें आय.सी.एस. ची परिक्षा दिली. त्या वर्सा ४२ जाणांची निवड जावपाची आशिल्ली. चित्तरंजनाचो क्रमांक ४३ वो लागलो आनी ताची निवड जाली ना. उपरांत ताणें बॅरिस्टरकेचो अभ्यास करपाखातीर इनर टॅपलांत प्रवेश घेतलो आनी १८९३ वर्सा तो बॅरिस्टर जालो. भारतांत परत येतकच कलकत्ता उच्च न्यायालयांत चित्तरंजनान वकिलीचो वेवसाय सुरू केलो. चित्तरंजनाचो बापूय निवृत्त जाल्ल्यान, व्हड कुटूंब आनी रीण हाका लागून घरची परिस्थिती खूब गरिबीची जाल्ली. ह्याच काळांत 'मालंच' (१८९५) हो पयलो भावगितांचो झेलो चित्तरंजनान उजवाडायलो.

१८९७ वर्सा वासंतीदेवी हिचेकडेन चित्तरंजनाचें लग्न जालें. ताका एक चलो आनी दोन चलयो आशिल्ल्यो.

वकिलीत चित्तरंजनाचो जम बसता आसतनाच वंगभंगाची चळवळ सुरू जाली. अरविंद घोष आनी कांय तरणाटे हांचेर खटलो जालो. 'अलीपूर बॉमकेस' म्हणून हो खटलो गाजलो. अरविंदाकडेन पयशे उणे आशिल्ल्यान चित्तरंजनान आपली घोड्यांगाडी विकून खटलो चलयलो आनी १९०८ वर्सा अरविंदबाबूची सुटका जाली. तेन्नासावन चित्तरंजनाक बरो वकील म्हणून नामना मेळपाक लागली. तेउपरांत डुमरॉन खटलो, दिल्ली कट, अमृतबझार पत्रिका, अब्रू नुकसानीचो खटलो ह्या गाजिल्ल्या खटल्यांचें काम ताणें पळयलें.

'अनुशीलन समिती' हे क्रांतिकारी संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. बिपिनचंद्र पाल आनी अरविंद घोष हांचेवांगडा चित्तरंजनान बंगालचे फाळणीआड काम केलें. १९१७ वर्सा प्रांतीक परिशदेचो तो अध्यक्ष जालो. १९१८ वर्सा मॉंटेग्यू - चेम्सफर्ड सुदारणांक ताणें विरोध केलो. कलकत्त्याच्या १९२० वर्साच्या कॉंग्रेस अधिवेशनांत ताणें गांधीचे असहकार चळवळीक सुर्वेक विरोध केलो, पूण उपरांत नागपूर कॉंग्रेसींत तो पुराय गांधीवादी जालो. वकिली सोडून, ताणें आपलें घरदार, आस्पत कॉंग्रेसीक म्हळ्यार देशाक अर्पण केली. तेन्नासावन चित्तरंजनाक 'देशबंधू' ह्या नांवान वळखूंक लागले.

१९२१ वर्सा अहमदाबाद आनी १९२२ वर्सा गयाच्या कॉंग्रेस अधिवेशनांचो अध्यक्ष म्हणून ताची निवड जाली. प्रिन्स ऑफ वेल्साचे भेटीचेर बहिश्कार घालचो, म्हणून ताणें चळवळ केली; ताका लागून चित्तरंजनाक स म्हयने बंदखण भोगची पडली. तेखातीर अहमदाबादच्या कॉंग्रेस अधिवेशनाक ताका हजर रावंक मेळ्ळेंना. १९२४ - २५ ह्या वर्सा तो कलकत्ता महानगरपालिकेचो महापौर आशिल्लो.

चित्तरंजनान हिंदू-मुसलमान एकचाराखातीर खूब यत्न केले आनी १९२३ वर्सा हिंदू-मुसलमान कबलात घडोवन हाडली.

'मालंच' ह्या कवितांझेल्या उपरांत ताणें 'माला', 'सागर संगीत', 'किशोर-किशोरी' आनी 'अन्तर्यामी' हे कवितांझेले उजवाडायले. १९१४ वर्सा 'नारायण' नांवाचें साहित्याविशींचें म्हयनाळें ताणें सुरू केलें. १९२२ वर्सा 'बांगला कथा' हें सांजदिसाळें, १९२३ वर्सा स्वराज्य पक्षाचें मुखपत्र 'फॉर्वर्ड' हें दिसाळें आनी १९२४ वर्सा कलकत्ता म्हापालिकेचो महापौर आसतना 'म्युनिसिपल गॅझेट' हें पालिका मुखपत्र ताणें सुरू केलें.

जातीयता आनी अस्पृश्यताय ताका मान्य नासली. बायलांक पुराय स्वातंत्र्य, बायलांचें शिक्षण, विधवा लग्नां आनी आंतरजातीय लग्नां हांचो प्रचार जावंचो म्हणून ताणें खूब यत्न केले. ताणें सूतकताईचो प्रसार केलो आनी परदेशी म्हालाचेर बहिश्कार घालो.

कामाचो ताण पडिल्ल्यान, सुसेग घेवपाक गेल्लेकडेन दार्जिलिंगाक, काळजाच्या आताकान ताका मरण आयलें. ताच्या घरांत (भोवनीपूर बंगल्यांत) 'चित्तरंजन सेवासदन' नांवाचें रुग्णालय स्थापन केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**दास-दासी :** 'दासः कर्मकरः' दास म्हळ्यार आपल्या धनयाचें काम करपी असो अर्थ यास्कान दिला. ज्या अनार्यांक वैदिक आर्यांनी जिखून आपली सेवा करपाक लायली तांकां ते दास म्हणूंक लागले.

मनूच्या काळामेरेन दासांचे विंगड विंगड प्रकार निर्माण जाले. मनून सात तरांचें दास सांगल्यात. ते अशे -

ध्वजाहृतो भक्तदासो गृहजः क्रीतदत्त्रिमौ ।
पैत्रिको दण्डदासश्च सप्तैते दासयोनयः ॥

**अर्थ -** झुजांत अटक केल्लो, पोट भरपाखातीर सेवा करपी, घरांत उत्पन्न जालो (दासीपुत्र), धन दिवन विकतो घेतिल्लो, घाणाक दवरून

घेतिल्लो, वारसो हक्क म्हणून मेळिल्लो आनी न्यायालयांत जाल्लो दंड भरपाखातीर दास्य आपणायिल्लो, अशे सात प्रकारचे दास आसात.

पाणिनीन क्रीत आनी परिक्रीत अशे दोन प्रकारांचे दास सांगल्यात. घेतिल्ली कसलीय रक्कम पावमेरेन ताच्या घरा चाकरी करपी तो क्रीत आनी थरावीक मुदतीखातीर कामाक दवरिल्लो तो परिक्रीत दास.

दासींचे चार प्रकार सांगल्यात ते अशे - देवदासी, ब्रह्मदासी, स्वतंत्र दासी आनी शुद्र दासी. देवदासी आनी ब्रह्मदासी हांकां क्षत्रीय बायलांचो दर्जो आसतालो. स्वतंत्र दासी म्हळ्यार वेश्या आनी कश्टांचें तशेंच कसलेंय हेर काम करपी तिका शुद्र दासी मानताले.

घरांतले मालकिणीची वा कोणाय राणयेची सेवा करपी परिचारिकांकूय दासीच म्हण्टाले. पुर्विल्ल्या काळांत गिरेस्त तशेंच राजे-म्हाराजांच्या लग्ना वेळार न्हवऱ्याक दास-दासी आंदण म्हणून दिवपाची चाल आशिल्ली. तशेंच कोणाय ब्राह्मणाक दासी दान दिवपाची प्रथा आशिल्ली.

दास-दासींचीं कामां हीं धनयाचो समाजीक दर्जो, दास वा दासीची बुद्दिमत्ता, तांचीं काम करपाची तांक हांचेर आदारिल्लीं आसतालीं. कटाहक नांवाचो एक दास आपल्या धनयागेर भांडारी म्हणून हुद्द्याचेर आशिल्लो.

घरांत जेवण तयार करप, ताट-पाट दवरप, धनी जेवतना ताका वारो घालप, ताच्या हातापांयांचेर उदक घालप, पीकदाणी धुवप, धनयाचे कपडे काडप-घालप, ताचे भलायकेकडेन लक्ष दिवप हींय कामां दास-दासींक करचीं पडटालीं.

दास-दासींक कसलेच कायदेशीर हक्क वा सवलती नासताल्यो. तेखातीर ते पुराय आपल्या धनयाचेर आदारिल्ले आसताले. कांय धनी आपल्या दासांक मायेन वागयताले पूण कांय जाण वायट वागणूक दिताले असोय उल्लेख कांय कथांतल्यान मेळटा.

धर्मशास्त्रांत दासी ह्या उतराचो अर्थ गुलाम नासून रतिसुखाखातीर विकती घेतिल्ली बायल असो आसा.

पाणिनीन अष्टाध्यायींत 'दासीभार' असो शब्द वापरला. त्या शब्दाचो अर्थ दासीच्या बाळंटेराची वेवस्था करप, तिच्या भुरग्याचो सांबाळ करप असो जाता. कारण घरांत दवरिल्ले दासीची संतत ही चड करून तिच्या धनयाचीच आसताली. तेखातीर तिची सगळी जबाबदारी धनयाचेर आसताली.

- कों. वि. सं.मं.

**दासबोध** : समर्थ रामदासाचो एक मुखेल ग्रंथ. समर्थ रामदास हो एक म्हत्वाचो संत कवी. हाणें लोकांक बोध करपाखातीर ग्रंथरचना केल्ली. तातूंतलो 'दासबोध' हो म्हत्वाचो काव्यग्रंथ. इतिहासाचार्य राजवाडे हाच्या मतान ह्या ग्रंथाचें स्वरूप पद्याचें. रामदासाची कवितेची व्याख्या विशाळ. ताच्या मतान जें जें प्रतिभासंपन्न तें कवित्वासकयल येता. कवित्वाचें ताणें धीट, धीटपाठ आनी कवित्व हे तीन प्रकार सांगल्यात. ताणें म्हळां -

जेणें ज्ञान हे प्रबळे । जणें वृत्ती हे मावळे
जणें भक्तिमार्ग कळे । या नांव कवित्व

दासबोधाची ओवीसंख्या ७,७५१ आसा. ह्या ग्रंथांत वट्ट २० दशक आसून दरेका दशकांत धा समास आसात. हो ग्रंथ केन्ना आनी खंय रचलो हाचेविशीं म्हायती मेळना. दासबोधांत धर्मीक नदरेन अवनति जाल्ल्या समाजाक जागो करपाचो यत्न केला, तशेंच शिश्यांक ताणें उपदेश केला. दासबोधांत पयलें दशक स्तवननाम आसा. तेभायर मुर्खाचीं लक्षणां, सगुण परिक्षा, नवविद्याभक्ति, विवेक वैराग्य, प्रकृतिपुरुष, आत्मदशक, अशीं म्हत्वाचीं दशकां आसात. लेखनाची प्रक्रिया, उत्तम गुणांचें विवरण, करंटलक्षण, बुध्दिवाद, राजकारण अशे खूब तरांचे विशय तातूंत आयल्यात.

रामदासान दासबोधांतल्यान मनीसकुळयेक दाखयल्लो मार्ग हो विश्वजनांचे उदरगतीचो मार्ग. पुर्वजांच्या पावलार पावल दवरून जरी ताणें हो मार्ग सांगलो तरी ताचे प्रज्ञेचें आनी समाजचिंतनाचें बळ तांचे फाटल्यान आसा. ताणें सांगिल्लो परमार्थाचो मार्ग प्रपंच्यावेगळो न्हय. ताणें म्हळां -

'संसारत्याग न करिता । प्रपंचउपाधी न सांडिता
जनांमध्ये सार्थकता । विचारेचि होय'

ताणें प्रपंचाची निंदाय केल्या पूण तो निंद्य प्रपंच म्हळ्यार परमार्थापसून पयसावल्लो प्रपंच. जो विरक्ती आपणायता ताचे प्रपंचाचे सगळे संकल्प पूर्ण जातात. ताच्या मुखांत सरस्वती वावुरता. धिटायेची निर्मणी जाता. परमार्थाच्या योगान प्रपंच जोडचो आसता, वाडोवंचो आसता. नरदेह हो मायारुपी, खिणयाळो. पूण ताचें सासणाचें म्हत्व परमार्थाचे नदरेक दिसता. परमार्थाची खण मनीसदेहांतच आसता. देहांतच देव आसता आनी विवेकाची थाकाय घेवन देवाक आपल्या सामकारा हाडपी देहच आसता, अशें मनीस जिविताचें मर्म दासबोध सांगता.

दासबोधांत देवधर्माचे चलत आयिल्ले अराजक ना करून देवकारणाची स्थापना करप हें रामदासान आपल्या जिविताचें ध्येय मानलां. असामान्य मनशान समाजसाधना कशी करची हें दासबोधांत सांगलां. जो खूब जाणांचें अंतस्करण राखता, विद्येची संपत्ती जोडटा, आघात सोंसता, दुसऱ्याक कसलीय पिडा जावंची न्हय अशे तरेचो विवेक सगळ्यांक शिकयता ताचीच भूमंडलाचेर सत्ता चलता. रामदासाच्या मतान हें खरें राजकारण.

लौकीक वेव्हाराचेंय ताणें लक्तुबायेन विवेचन केलां. तागेल्या ह्या प्रपंच विज्ञानांत विविधताय आसा. दासबोधांत वेदान्ताचें निरुपण आसा. पूण तें समजूंक त्या मानान सोंपें. हो ग्रंथ वक्तृत्वाचे गूण घेवन आयला. तातूंतलो आशय घट. गिन्यान, कर्म, भक्ती आनी वेव्हाराचें फावो तें मार्गदर्शन तातूंत आसा. मनांतल्या खूबशा दुबावांचें निवारण करून भक्तीचो, वैराग्याचो, मोक्षाचो, आत्मगिन्यानाचो उपदेश करप हो ह्या ग्रंथाचो मुखेल हेत. ह्या हेताच्या निमतान कवित्व, चातुर्य, राजकारण, गुरुत्व, आनी शिश्यत्व अशे खूबशे विशय तातूंत आयल्यात. मोक्षदर्शन हो मुखेल हेत, उपदेश हें मुखेल साधन आनी मुमुक्षा हें मुखेल फळ. अशी ह्या ग्रंथाची तीन फांटयांची घटना. आत्म्याक जेन्ना मनीसदेह प्राप्त जाता तेन्ना ताच्या तापत्रयाक आरंभ जाता. जल्मासावन मरणामेरेन जे तापत्रय ताका सोंसचे पडटात ताचें खोलायेन आनी विस्तारान वर्णन रामदासान दासबोधाच्या तिसऱ्या दशकांत केलां. ह्या तापत्रयाचें कारण म्हळ्यार त्रिगुणात्मक माया. संवसाराच्या मोहाक आनी बंधनाक लागून मनशाक आपूण कोण हाचो विसर पडटा हाचीं वर्णनां दासबोधांत आसात. सिध्द आनी साधक हाणीं बंधनांत आशिल्ल्या जिवांची उदरगत कशी करची हाचें निरुपण दासबोधांत आसा. ह्या निरुपणांत समाजाचे

उदरगतीचे तीन मार्ग सांगल्यात. नितीस्थापना, धर्मस्थापना आनी राज्यस्थापना. निंदा, दुस्वास, अनिती, भ्रश्टाचार, कपट, कलह, पाखंड, दुश्टपण, दुराशा हांचें धांपण आत्म्याच्या खऱ्या रुपाचेर गच्च बशिल्लें आसता. तें काडून उडोवप हें नितीचें काम. अज्ञानी लोकांक परमार्थ मेळोवन दिवपाखातीर धर्मस्थापना गरजेची. धर्म म्हळ्यार परमेश्वराची उपासना आनी तोच खरो भक्तीमार्ग. रामदासाच्या मतान उपासना आनी ज्ञान हीं एकूच. कर्म आनी ज्ञान हांचो संगम भक्तींत जाता अशें ताचें म्हणणें.

रामदासाच्या दासबोधांत कवित्वशक्तीशाली सुचकता ना. पूण विचारांची सोबीतकाय आसा. प्रचितीची तांक आसा. तो स्पश्ट उलयता, भाशेच्या अलंकारांची ताका गरज भासना. ताची नदर वास्तववादी, वेव्हारनितीचें व्हडपण ताणें सांगलां - गिन्यान मेळोवप, अध्ययन, वाचन आनी लेखन निश्ठेन करप हो ताचे नदरेन श्रेयाचो मार्ग. तागेलो हो उपदेश आयच्या काळांतूय लागू जाता. यत्न, प्रत्यय आनी प्रबोध ह्या मुल्यांचेर रामदासान दासबोधांतल्यान भर दिल्लो आसा. ताणें संतान केल्या उपदेशाक वेव्हाराच्या पांवड्यार हाडलो. प्रयत्नवादाचो पुरस्कार केलो. परंपरेन चलत आयिल्ल्या आध्यात्मिक जिविताच्या प्रणालीन ऐहिक जीवनमुल्यांचो सांगोड घालपाचो मोलादीक वावर रामदासान ह्या काळांत केलो. मनीसकुळयेक आपूण कोण हें दाखोवन दिवपी आनी समाजाखातीर जिवीत ओंपपाक लावपी दासबोध हो म्हत्वाचो ग्रंथ.

- डॉ. सोमनाथ कोमरपंत

**दासरी :** दक्षिण भारतांतली एक भीक मागपी जात. हिकाच ताडन अशें दुसरें नांव आसा. हे लोक चड करून वैशणव पंथाचे आसात. पूण कांय दासरी लिंगायत शैव पंथाचे आसात. तांचे उत्पत्तीची कथा अशी : शुद्र जातीचो एक श्रीमंत मनीस आशिल्लो. ताका भुरगेंबाळ नाशिल्लें. देखून ताणें देवाक आंगवण केली, म्हाका पूत जाल्यार हांव तो देवाचे सेवेक ओंपतलों. फुडें ताका चले जाले. तातूंतल्या एकाचें नांव ताणें दासन दवरलें आनी ताका देवाचे सेवेक ओंपलो. दासनान आपलो आस्पती वयलो पुराय हक्क सोडलो. देखून ताची भुरगींय फुडें भीक मागून आपलो निर्वाह करूंक लागलीं. दासरी हे दासनाचेच वंशज. ताचे बकीज, जनप्प, पल्ली, वल्लुव, गंगेड्ड आनी गोल्ल अशे स पोटभेद आसात. तांचेमदीं परस्पर रोटी-बेटी वेव्हार जायनात.

तिरूपती आनी हेर कांय देवस्थानांनी दासरीचे गुरू आसतात. जायते शुद्र लोक तांचेकडल्यान तप्तमुद्रा घेतात आनी दासरी जातात. ते पदां म्हणीत गांवागांवांनी भोंवन भीक मागतात. तांचेमदले कांय जाण नंदीबैल घेवन भोंवतात. कांय वेळार प्रेतयात्रे वेळार म्हणपाचीं पदां म्हणपाक वतात. अनंतपूरांतले दासरी आपल्या आगमनाची सुचोवणी करपी शंख, वाजोवपाखातीर एक तासो, एक लामणदिवो, खांदार दवरिल्लें एक पितूळचें वा तांब्याचें आयदन आनी गळ्यांत मारुतीची प्रतिमा दवरतात.

तिरूपती, तिरूत्तणी आदी नामनेच्या वाठारांतल्या जात्रांवेळार वैशणव दासरी एकठांय जमतात आनी जातीच्या समाजीक प्रस्नाचो विचार करतात. कर्नुल वाठारांत जेन्ना खंयचीय दासरी चली बसवेश्वराची भक्त जाता तेन्ना तिका देवाक ओंपिनासतना तिचें लग्न करतात. तेन्ना ती चली आनी एक ऊंच दिवो हांकां हारांत गुंथतात. उपरांत मामा वा तिचो नियोजीत न्हवरो तिका तातूंतल्यान सोडयता.

विशाखापट्टणमचे दासरी स्वताक शंखू दासरी अशें म्हणोवन घेतात. विरांचे पोवाडे गावपाखातीर तांची नामना आसा. कांय दासरी वैशणव गुरूचे सेवक म्हणून काम करतात. ते आपल्या गुरूचें उश्टें प्रसाद म्हणून खातात. ताका लागून पुराय रोगाचें निवारण जाता; भुरगीं नाशिल्ल्यांक भुरगीं जातात अशी तांची समजूत आसा.

कांय दासरींच्या आंगांत देव येता त्यावेळार ते स्वताक दागून, भाजून घेतात. कांय दासरी आपल्या दोनूय गालांतल्यान रुप्याची वा हेर धातुची सरी आरपार घालतात. कांय लोक गालांक कायमचेच बुराक घालून घेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**दासोपंत :** (जल्म : इ. स. १५५१; मरण : इ. स. १६१५).

एकनाथाच्या लागसल्लो आनी नाथपंचकांतलो एक म्हत्वाचो संतकवी. बेदरच्या बहामनी राज्यांतल्या नारायणपेठ ह्या गांवांत देशपांडे ह्या घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचें नांव दिगंबरपंत आनी आवयचें नांव पार्वतीबाय. सोळाव्या वर्सां ताचें लग्न जालें. त्याच वर्सा व्हड दुकळ पडिल्लो. त्या वेळार बादशाही रसद ताचेकडल्यान वेळार पावूंक नाशिल्ल्यान बादशहान दासोपंताक ओलीस म्हणून दवरलो. तरी दिगंबरपंत थारिल्ली रक्कम वेळार दिवंक शकलोना. पूण निमाण्या दिसा दत्ताजी पाडेवार नांवाच्या मनशान ती रक्कम भरून दासोपंताक सोडयलो. दत्ताजी पाडेवार हो साक्षात दत्तात्रय आशिल्लो अशी आख्यायिका सांगतात. बादशहा कडल्यान बंदखण भोगून आयिल्ल्या दिसासावन ताची वृत्ती विरक्त जाली. एके रातीं कोणाक संगिनासतना तो घर सोडून गेलो. हिलालपूर, डाकोळगी, प्रेमपूर, नंदिग्राम, राक्षसभूवन आदी गांवांनी ताणें कांय काळ वास्तव्य केलें. तो दत्तात्रयाचो उपासक आशिल्लो. उपरांत तो आंबेजोगाईक बरोच तेंप आशिल्लो.

इतलें म्हणसर ताका घर सोडल्यार बारा वर्सां जावन गेल्लीं. त्या काळांत जे बायलेच्या घोवाचो १२ वर्सां थाव लागना तिणें सौभाग्यचिन्नां काडून विधवापण आपणावपाची चाल आशिल्ली. तेप्रमाण तो विधी करपाक दिगंबरपंत सुनेक घेवन आंबेजोगाई लागसार आशिल्ल्या वाणा संगमाचेर आयिल्लो. थंय तांकां दासोपंत मेळ्ळो. फुडें निमाणेमेरेन तो आपल्या कुटुंबावांगडा आंबेजोगाईकच रावलो.

आंबेजोगाईक रावन ताणें भरपूर ग्रंथरचना केली. थंयच्या ताच्या घरांत मेळिल्ल्या हातबरपां वयल्यान ताणें बरयल्ल्या संस्कृत - मराठी ग्रंथाची संख्या सुमार ५० चेर पावता. गीतेचेर ताणें ५-६ टिका बरयल्यात. तातूंत 'गीतार्णव' ही सगळ्यांत म्हत्वाची टिका. तिची ओवीसंख्या सुमार सवाय लाख आसा. सादी, सोंपी आनी रसाळ भास हें तिचें खाशेलपण. ताणें जायत्या मनोरंजक कथांचोय तातूंत आस्पाव केला. हे विस्तृत टिकेभायर गीतेचो नेमको भावार्थ सांगपाखातीर ताणें 'गीतार्थबोधचंद्रिका' ही गीतेचेर टिका बरयली. ताच्या हेर उल्लेख करपासारक्या ग्रंथरचनांनी पदार्णव, ग्रंथराज, पंचीकरण हांचो आस्पाव जाता. हातूंतलें पंचीकरण हें १,६०० ओव्यांचें प्रकरण ताणें अडेज हात रूंद आनी चोवीस हात लांब अशा एका पासोडीचेर बरयलां. 'पदार्णवांत' वेगवेगळ्या जातिवृत्तांतलीं भावपूर्ण आनी मधूर अशीं सवाय लाख पदां आस्पावल्यांत.

ताच्या 'गीतार्णव' आनी 'पदार्णव' हांचो खुबूच थोडो वांटो सद्या छापील रूपांत मेळटा. पदार्णवांतलीं १३९४ पदां 'महाराष्ट्र सारस्वत' ह्या मासिकांत उजवाडाक आयल्यांत. गीतार्णवाचो पयलो, दुसरो, बारावो आनी तेराव्याचो कांय वांटो हे अध्याय 'महाराष्ट्र - कवि' ह्या मासिकांत उजवाडाक आयिल्ले. मराठवाडा साहित्य परिशदेन दासोपंताच्या पासोडावयल्यो ओवयो उजवाडाक हाडल्यात.

– कों. वि. सं. मं.

**दिंडी :** रस्त्यार जावपी एक भजनी प्रकार. पालखेफुडल्यान पावली घालीत, भजन करीत वचपी भजनी लोकांच्या चोम्याक दिंडी म्हण्टात. दर एके दिंडेची एक पालखी आसता आनी ते पालखेंत एका संताची प्रतिमा आसता. पालखेंत जाची प्रतिमा आसता त्या संताचें वा दिंडी काडटल्याचें नांव ते दिंडेक दितात. नेमान ह्यो दिंड्यो भायर सरत आशिल्ल्यान हे दिंडेंत वांटो घेवपी भाविकांक वारकरी म्हण्टात.

दिंडेंत वाजयतात तें 'दिंडी' नांवाचें विणेसारकें वाद्य हाचेवयल्यान दिंडी हो शब्द आयला अशें म्हण्टात. दिंडी हाचो अर्थ ल्हानसो दरवाजो असोय जाता. दिंडेंत वांटो घेतले उपरांत स्वर्गाचें दार उक्तें जाता अशी दिंडेत सामील जावपा फाटल्यान समजूत आसा. दिंडेंत बायलो तशीं भुरगीं आसतात. ताळ, मृदंग वाजयत, संतांचे अभंग आनी गवळणी गायत, अर्दीमदीं पावली मारीत वारकऱ्यांची दिंडी मुखार वचत रावता. बरेच वारकरी नित्यनेमान दिंडेंत वाटो घेवपी आसतात आनी असो वांटो घेवप हें ते एका नवसाप्रमाण पाळटात.

महाराष्ट्रांत, दर वर्सा, आषाढी आनी कार्तिकी एकादशीक अशो बऱ्योच दिंड्यो पंढरपूराक विठोबाच्या दर्शनाक वतात.

गोंयांत दिंडे सारकेच कांय भजनी प्रकार आसात. भजनी सप्ताहांनी, विशेश करून नागेशीं, वास्को आनी हेर सुवातींचेर भजनी दिंड्यो भायर सरतात. सप्ताचे दर एके रातीं वा निमाणे रातीं देवाचे मुर्तीची वा पुराणीक संदर्भ दिवपी देखाव्यांची मिरवणूक काडटात. ह्या मुर्ती देखाव्या मुखार वाजयत गायत आनी पावली मारीत भजनी लोक ही मिरवणूक देवळाच्या प्राकारांत तशी देवळालागसार भोंवताडे काडून काडटात. मडगांवां कार्तिकी तिरोदशीक जावपी दिंडी गोंयांत प्रसिध्द आसा. हरी मंदिरासावन ही दिंडी भायर सरता आनी नाचत-गायत, वाजयत विठ्ठल मंदिराकडेन वचून हरी मंदिराकडेन परतता. हे दिंडेक धरूनूच उत्सवाचो एक भाग म्हणून नामनेच्या गायकांच्यो मैफली जातात. मैफलींचें आयोजन हो दिंडेंतलो उपरांतचो आस्पाव आसूं येता.

– कों. वि. सं. मं.

**दिका :** एक मानून घेतिल्ली दर्शक कल्पना. दिकेची व्याख्या अशी - 'दिशति अवकाशं ददाति इति' - अवकाश दिता ती दिशा. उदेंत, अस्तंत, दक्षिण आनी उत्तर ह्यो मुखेल दिका. भुंयेवयले खंयचेय सुवातेच्या संदर्भांत दुसरी सुवात थारावपाखातीर उपेगी पडपी संकल्पना. चड करून सूर्य जे दिकेक उदेता ती उदेंत आनी अस्ताक वता ती अस्तंत. उदेंतेकडेन तोंड करून उबो रावतकच उजवेकडली दक्षिण आनी दावेकडली उत्तर. अशो चार दिशा मुखेल दिशा अशें मानतात. हांचेमदीं आग्नेय, नैर्ऋत्य, वायव्य, ईशान्य वा अनुक्रमान दपू, दप, उप आनी उपू अशो उपदिशा मानतात. हांचेयमदीं आनीक आठ आनी आनीक सोळा उपदिशा मानून सर्वेक्षणांत, नौकानयनांत बत्तीस दिका मानतात. उदेंत, आग्नेय ह्या अश्टदिकांचे जोडयेक त्या ठिकाणाचें खस्वस्तिक दाखोवपी ऊर्ध्व आनी ताचेबरोबर उरफाटे वटेनची ती अधः मेळून धा दिका मानल्यात.

उत्तरायण आनी दक्षिणायन हांकां लागून क्षितिजावयली सूर्य उदेवपाची सुवात सुमार ४७° बदलता. ताका लागून सूर्य उदेता ती उदेंत अशें म्हणप समा न्हय. २१ मार्च वा २३ सप्टेंबर ह्या दिसा दिसाच्या मध्यार सूर्य विषुववृत्ताचेर सारको खस्वस्तिकी येता देखून ह्या तारखांक सूर्य उदेता ती क्षितिजावयली सुवात सारकी उदेंत दिका दाखयता. पूण ह्या तारखांखातीर रावनासतना खंयचेय सुवातेर वर्सांतल्या खंयच्याय दिसा सुर्योदयाची सुवात सारकी उदेंत बिंदूचे कितली उत्तरेक वा दक्षिणेक आसा हाचेवयल्यान गणितान लेगीत उदेंतबिंदू थारावंक येता.

तशेंच चुंबकसुचीच्या आदारान पयलीं उत्तर आनी ताचेवयल्यान हेर दिका थारोवप चड सोंपें. पूण चुंबकसुची पृथ्वीचो चुंबकीय ध्रूव दाखयता. चुंबकीय ध्रुवांचें स्थान बदलत आसता तेखातीर हे पद्दतीन पृथ्वीच्या उत्तर ध्रुवाकडली दिका म्हळ्यारूच भुगोलीक उत्तर दिका थारावंक मेळना. भारतीय क्षेत्रमापन स्थलनिर्देशक (SOI) नकाशांत भुगोलीक आनी चुंबकीय उत्तर दिकांतल्या नकासो तयार केल्ल्या वेळाचो फरक आनी तातूंत बदल जावपाचो योग दिल्लो आसता. ताचेवयल्यान भुगोलीक उत्तर दिका चुंबकसुचीच्या आदारानूय थारावं येता.

खंयचेय सुवातेर भुगोलीक उत्तर दिका आनीक एके सोंपे रितीन थारावं येता ती अशी - माध्यान्न सूर्य खस्वस्तिकी येना त्या दिसा उकते सुवातेर क्षितीजसमांतर पातळेक काटकोन करपी एक खांबो उबारचो. माध्यान्नापयलीं ताचे सावळेचें तोंक जंय येतलें थंय कुरू करची. ही कुरू आनी खांब्याचो तळमध्य इतले त्रिज्येन खांब्याभोंवतणीं एक वाटकूळ करचें. माध्यान्ना उपरांत खांब्याचे सावळेचें तोंक परतून ह्या वाटकुळाक लागतकच थंय कुरू करची. उपरांत खांब्याच्या तळमध्याक वाटकुळा वयल्यो दोनूय कुरवो जोडपी ओळींमदलो कोन दुभागचो. हो दुभाजक थंयची दक्षिण - उत्तर दिका दाखयता.

उत्तर गोलार्दांत रातच्या वेळार ध्रूव नखेत्रा वयल्यान लेगीत उत्तर दिका थारावं येता.

उत्तर दिका ०° मानून तिचेपसून सव्य (Clockwise) दिकेन इश्ट ठाणे जे दिकेक आसत थंयमेरेन कोन मेजून थंयची दिका सांगपाक मेळटा. तेच भाशेन उदेंत दिका म्हळ्यार ९०°, अस्तंत म्हळ्यार २७०°, आग्नेय म्हळ्यार १३५° अशें समजता.

आयन्स्टायनाच्या मताप्रमाण ह्या विश्वांत खंयचीच वस्त थीर ना. सगळ्या वस्तूंक गती आशिल्ल्यान, खंयचेच वस्तूंची निरपेक्ष गती थरोवप कठीण. ताका लागून विश्वांत आमी समजतात तशी दिका ना. सूर्य जे दिकेक उदेता ती उदेंत आनी अस्ताक वता ती अस्तंत अशें आमी मानतात, पूण तें वास्तव सत्य न्हय. पृथ्वी स्वताभोंवतणीं भोंवत आशिल्ल्यान उदेंत - अस्तंत हो भ्रम उत्पन्न जाता. सुर्याक उदेंत ना आनी अस्तंतूय ना. सूर्य जर मध्यानेर येनाफुडें पृथ्वी घुंवपाची थांबत जाल्यार किदें जातलें? उदेंत - अस्तंत ह्यो दिका ना जातल्यो आनी तांचेर आदारिल्ल्यो दक्षिण आनी उत्तर ह्योय दिका नश्ट जातल्यो. तेच भाशेन खंयचेय रातीं पृथ्वी घुंवपाची थांबल्यार सगळेकडेन काळोख जातलो. मळबांतले तेच

तेच गिरे सारके दिसत उरतले आनी दिकांचो वेव्हार सोंपतलो. तेखातीर दिकांच्या वेव्हारात आमचो वेव्हार येसस्वी जाता म्हणून त्यो फकत मानल्यात; त्यो खरेपणीं अस्तित्वांत ना अशें आयन्स्टायनाचें मत.

- कों. वि. सं. मं.

**दिक्पाल :** दिकांची राखण करपी देव. उदेंत दिशेसयत आठ दिकांचे आठ राखणदेव आसात ते अशे - उदेंत - इंद्र, आग्नेय - अग्नी, दक्षिण - यम, नैर्ऋत्य - निर्ऋती, अस्तंत - वरूण, वायव्य - मरूत, उत्तर - कुबेर, ईशान्य - ईशान.

मस्त्यपुराणांत चार मुखेल दिकांचे संरक्षक म्हणून सुधर्मा, शंखपाल, केतुमान आनी हिरण्यरोमा अशीं नांवां दिल्लीं आसून, गृहबलींत ताका आवाहन करतात अशें सांगलां. संस्कृत म्हाकाव्यांत दिक्पालाचे परत परत उल्लेख येतात.

पुराणांत आनी तंत्रग्रंथांत आठ दिक्पालांचीं ध्यानां अशीं आसात : (१) इंद्र - दोन भुजांचो, हळदुव्या वर्णाचो, ऐरावताचेर बशिल्लो वज्र आनी स्तन धारण करपी (२) यम - सावळो, रेड्यार बशिल्लो, दंड आनी शूल धारण करपी (३) वरूण - गोरो, दोन भुजांचो, मानग्याचेर आरुढ जाल्लो, नागपाश आनी शंख धारण करपी (४) कुबेर - हळदुव्या वर्णाचो, दोन भुजांचो, नरवाहनाचेर बशिल्लो अंकूश आनी गदा धारण करपी (५) अग्नी - तांबड्या वर्णाचो, बोकडार बशिल्लो, सृचा आनी कमंडलू धारण करपी (६) निर्ऋती - निळ्या वर्णाचो राकेसांचो स्वामी, मड्याचेर बशिल्लो, खड्ग आनी सोटो धारण करपी (७) वायू - हरणाचेर बशिल्लो, वातपूट धारण करपी (८) ईशान्य - निळकंठ, सोरपांचें जानवें घाल्लो, जटेंत अर्दचंद्र आनी हातांत कपाल आनी त्रिशूल धारण करपी.

संस्कृत बौध्द ग्रंथांत धृतराष्ट्र (उदेंत), विरुढक (दक्षिण), विरुपाक्ष (अस्तंत) आनी वैश्रवण (उत्तर) अशे चार मुखेल दिकांचे चार दिक्पाल दिल्यात. तांकां चतुर्महाराज म्हळां. तेभायर बौध्दाच्या वज्रयान पंथांत अधोर्ध्व दिका धरून धा दिकांचे वेगळे दश दिक्पाल मानल्यात. निष्पन्नयोगावलींत ताचीं वेगवेगळीं रुपां वर्णिल्यांत ताच्यो दिका अशो - (१) यमांतक - उदेंत (२) प्रज्ञांतक - दक्षिण (३) पद्मांतक - अस्तंत (४) विघ्नांतक - उत्तर (५) टक्किराज - आग्नेय (६) नीलदंड - नैर्ऋत्य (७) महाबल - वायव्य (८) अचल - ईशान्य (९) उष्णीव - ऊर्ध्व (१०) सुंभाराज - अधर. हे सगळे तीन तोंडांचे आनी सोळा हातांचे आसात.

हातूंतले यमांतक, टक्किराज, नीलदंड, महाबल, अचल आनी सुभराज हांचो वर्ण निळो आसून, प्रज्ञांतकाचो धवो, पद्मांतकाचो तांबडो, विघ्नांतकाचो पाचवो आनी उष्णीवाचो हळदुवो आसा. ह्या सगळ्यांनी आपल्या दोन मुखेल हातांनी आपआपले शक्तीक वेंगायल्ली आसून तांच्या उरिल्ल्या चार हातांनीं वेगवेगळीं आयुधां आसात तीं अशीं : यमांतक - काळें वज्रमुद्‌गर, खड्ग, मणी आनी कमळ; प्रज्ञांतक - वज्रांकित शुभ्रदंड, तलवार, मणी आनी कमळ; पद्मांतक - तांबडें कमळ, तलवार, मणी आनी चक्र; विघ्नांतक - कराल वज्र, तलवार, मणी आनी कमळ; टक्किराज - निळो दंड, खड्ग, मणी आनी कमळ; निलदंड - निळो दंड, खड्ग, मणी आनी कमळ, महाबल - त्रिशूल, तलवार, मणी आनी कमळ; अचल - खड्ग, वज्र, मणी आनी कमळ; सुंभराज - वज्र, खड्ग, मणी आनी कमळ.

दिगंबर जैनांनी आठय दिक्पाल आसात अशें मानलां. पूण श्वेतांबर जैनांनी मात आठ दिक्पालांभायर आकाशलोकांचो ब्रह्मा आनी पाताळ लोकांचो नाग अशा आनीक दोगांची भर घालून तांची संख्या धा केली. जैनांच्या धा दिक्पालांचो मूळ आदार गोभिलगृह्य सुत्रांत मेळटा. तातूंत इंद्र (उदेंत), वायू (आग्नेय), यम (दक्षिण), पितर (नैर्ऋत्य), वरूण (अस्तंत), महाराज (वायव्य), सोम (उत्तर), महेंद्र (ईशान्य), वासुकी (पाताळ) आनी ब्रह्म (मळब) अशे धा दिक्पाल दिल्ले आसात.

बदामीच्या होंवरींतल्या पाख्यार आठ दिक्पाल कोरांतिल्ले आसात. तशेंच गंजिगट्टी (जि. धारवाड) गांवांत एक व्हड दिक्पाल उबो आसा. नासकांतल्या सिन्नर वाठारांतल्या गोंदेश्वर देवळाच्या पाख्यार आठ दिक्पाल कोरांतिल्ले आसात. खजुराहोच्या देवळांतलें आठ दिक्पालांचें शिल्प पळोवपासारकें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**दिक्पालिका :** दिकांची राखण करपी बौध्द देवता. ह्यो स देवता आसात. निष्पन्नयोगावली आनी साधनमाला ह्या ग्रंथांनी तांचें वर्णन दिलां तें अशें : (१) वज्रांकुशी: गोरी, एका तोंडाची, दोन भुजांची आनी दाव्या हातांत धवो अंकुश धारण करपी. तिची रक्षित दिका उदेंत. (२) वज्रपाशी : हळदुव्या वर्णाची, एका तोंडाची, दोन भुजां आशिल्ली आनी दाव्या हातांत पाश धारण करपी, दिका दक्षिण. (३) वज्रस्फोटा : तांबड्या वर्णाची, एका तोंडाची, दोन भुजां आशिल्ली, उजव्या हातांत वज्राची सरपळी धारण करपी, दिका अस्तंत. (४) वज्रघंटा : पाचव्या वर्णाची, एका तोंडाची, दोन भुजां आशिल्ली उजव्या हातांत वज्रघंटा धारण करपी, दिका उत्तर. (५) उष्णविजया : धव्या वर्णाची, एका तोंडाची, दोन भुजांची आनी उजव्या हातांत चक्र धारण करपी, दिका ऊर्ध्व. (६) सुंभा : निळ्या वर्णाची, एका तोंडाची, दोन भुजांची आनी उजव्या हातांत नागपाश धारण करपी, तिची दिका अधर.

ह्या सगळ्यांची दाव्या हाताची तजनी ऊंच केल्ली आसता. उरिल्ल्या चार उपदिशांच्यो देवता म्हणून पुष्पा, धुपा, दीपा आनी गंधा अशीं चार नांवां मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**दिगंबर पंथ :** जैन धर्मांतलो एक मुखेल पंथ. चंद्रगुप्त मौर्याच्या वेळार मगधांत दुकळ पडलो. तेन्ना भद्रबाहु ह्या आचार्याच्या फुडारपणाखाल १२ हजार जैन अनुयायी दक्षिणेंत गेले. जे लोक मगधांतच रावले तांचें फुडारपण स्थूलभद्र हाणें केलें. ताणें एक परिशद घेवन जैन धर्मांत कांय सुदारणा करपाचो निर्णय घेतलो. उपरांत भद्रबाहु दक्षिणेंतल्यान मगधांत येतकच ताणें नवे निर्णय मान्य केलेनात. ह्या मतभेदांतल्यान श्वेतांबर आनी दिगंबर अशे दोन मुखेल पंथ तयार जाले. ह्या दोन पंथांतलें वेगळेपण इ. स. च्या पयल्या शतमानांत स्पश्टपणान दिसलें आनी उपरांत ताका खर स्वरूप आयलें.

दिगंबर शब्दाचो अर्थ 'दिशा हेंच जाचें वस्त्र', म्हणजेच नागडो असो जाता. मूळचे जैन हे दिगंबरच आशिल्ले. स्थूलभद्राचे अनुयायी धवें वस्त्र घालूंक लागले. म्हणून तांकां श्वेतांबर म्हणूंक लागले.

दिगंबर आनी श्वेतांबर पंथांतले मुखेल भेद अशे - दिगंबर जैन

तीर्थकारांच्यो मुर्ती वस्त्रांभुषणांनी सजयनासतना उकत्योच दवरतात. श्वेतांबर जैन मुर्तीक सजयतात. दिगंबर सोळा सर्ग आनी शंबर महासम्राट मानतात. पूण श्वेतांबर बारा सर्ग आनी चवसठ इंद्र मानतात. दिगंबर पंथाचे लोक एके वेळेचें अन्न-उदक घेतात, तशेंच, उबे रावन आयदनाचो उपेग करिनासतना ते अन्न खातात. श्वेतांबर साधू आयदनांचो उपेग करतात. बायलांक संन्यास घेवपाक जरी मेळ्ळो तरी तांकां फकत ज्ञान आनी मोक्ष मेळप शक्य ना अशें दिगंबर मानतात. श्वेतांबर जैनांक जे ४५ आगम मान्य आसात ते दिगंबरांक मान्य नात. दिगंबरांच्या मतान आगम साहित्य नश्ट जालां. श्वेतांबरांचें जें आगम साहित्य म्हणून मानतात तें अर्धमागधी भाशेंत बरयल्लें आसा. दिगंबरांच्या मतान पुर्विल्लें साहित्य शौरसेनी भाशेंत आशिल्लें. गौतम गणधरान आगम ग्रंथ रचलो अशें ते समजतात. दिगंबर पंथांत षटखंडागम, कषायप्राभृत, मूलाचार, भगवती आराधना, प्रवचनसार, पंचास्तिकाय आदी उपरांतच्या आचार्यांनी रचिल्ले वा एकठांय केल्ले ग्रंथ आगमसदृश आनी प्रमाणभूत मानतात. श्वेतांबर आनी दिगंबर हांच्या दोनय प्रकारांच्या आगमांनी गिन्यानी नदरेन व्हडलोसो फरक ना. जीव, अजीव, पाप - पुण्य, कर्म, पुनर्जल्म, ज्ञानाची भासाभास, मोक्षाचें व्हडपण आदी गजालींविशीं दोनय पंथांमदीं सारकेच विचार आसात. कांय आचारांच्या आनी संस्कारांच्या बाबतींत मात फरक आसा.

जैन संघांत भगवान महावीरा उपरांत इंद्रभूर्ता गौतम, सुधर्मा आनी जंबूस्वामीमेरेनची परंपरा दोनय पंथ मानतात. पूण तेउपरांतची आचार्यपरंपरा मात दोनय पंथांनी वेगवेगळी आसा. दिगंबरांच्या मतान जंबूस्वामी उपरांत विष्णु, नंदी, अपराजित, गोवर्धन आनी भद्रबाहू नांवाचे पांच श्रुतकेवली जावन गेले. श्वेतांबर परंपरेंत प्रभव, शय्यंभव यशोभद्र, संभूतविजय आनी भद्रबाहू हे श्रुतकेवली मानतात. महावीर निर्वाणाच्या ६०९ वर्साउपरांत म्हळ्यार इ.स. ८३त रथवीरपूर हांगां शिवभूतीन बोटिक मताची म्हळ्यार दिगंबर मताची स्थापना केली असो उल्लेख मेळटा.

भारतांत रावपी जैन धर्मीय लोकांतली दिगंबराची वस्ती चड करून महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी तमीळनाडूक जाल्यार श्वेतांबरांची वस्ती चड करून गुजरात आनी राजस्थानांत मेळटा.

थळ आनी आचारांच्या वेगळेपणाक लागून दिगंबर साधवांमदीं वेगवेगळे पंगड जाल्यात. तांतूत मूल, नंदि, सेन आदी पंगडांची नामना आसा. ह्या संघांतय ल्हान-व्हड गट तयार जाल्यात आनी ते गण आनी गच्छ ह्या नांवान वळखुपाक येतात. जैन साधवांचे आचार चड करून दिगंबर साधवांचे आचार खुबूच खर आसात. दिगंबर पंथाचे आदर्श साधू नागडे आसतात. तांचेकडे मोरापिसांचो कुंचो आनी शास्त्रग्रंथ ह्यो वस्तू आसतात. दिसांतल्यान ते एकाच वेळचें अन्न घेतात. पयलीं रानांत रावपी साधू आतां गांवांतल्या देवळांत वा मठांत रावतात. कांय साधू वस्त्रां घालपीय आसात. तांकां क्षुल्लक म्हण्टात. दिगंबरांतल्या जायत्या पोटजातींतले लोक वस्त्रां घालपी आनी मठांत रावपी भट्टारकांक गुरू मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**दिग्गज :** आठ दिकांचो भार घेवपी आठ हती. आठ दिकांक आठ हती आपल्या मस्तकांचेर धर्तरेचो भार घेतात अशी पुराणीक कल्पना आसा. तांच्या नांवाचो श्लोक असो आसा -

ऐरावतः पुण्डरीको वामनः कुमुदोऽञ्जनः ।
पुष्पदन्तः सार्वभौमः सुप्रतीकश्च दिग्गजाः ॥

**अर्थ** - ऐरावत, पुंडरीक, वामन, कुमुद, अंजन, पुष्पदंत, सार्वभौम, सुप्रतीक हे आठ दिग्गज.

सुरवातेक हांची संख्या चारूच म्हळ्यार मुखेल दिकांकडेन संबंदीत आशिल्ली. वाल्मिकी रामायणांत पुर्वेचो विरुपाक्ष, दक्षिणेचो महापद्म, अस्तंतेचो सौमनस आनी उत्तरेचो भद्र अशीं चार दिग्गजांचीं नांवां दिल्यांत. हातूंतल्या कोणेंय जर आपली तकली हालयली जाल्यार भूंयकांप जातलो अशी समजूत आशिल्ली. धर्तरेची थिराय हांचेर आदारिल्ली आशिल्ल्यान देव, दानव, राक्षस, पिशाच्च, सुकणीं, नाग हे सगळे, दिग्गजांची पुजा करताले अशें रामायणांत म्हळां.

आयचे हती हे ह्या अश्ट दिग्गजांचे वंशज अशें समजतात. खंयच्या प्रकारचे हती खंयच्या दिग्गजासावन निर्माण जाले, हेविशीं खूब समजुती उत्तर भारतांत रूढ आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**'दिनकर' रामधारी सिंह :** (जल्म : २३ सप्टेंबर १९०८, सिमरिया, मोंघीर, बिहार; मरण : २४ एप्रिल १९७४).

हिंदींतलो नामनेचो कवी आनी लेखक. ताच्या बापायचें नांव रवी सिंह आनी आवयचें नांव मानसादेवी आशिल्लें. व्हडल्या भावाचें नांव वसंत आनी धाकल्या भावाचें नांव सत्यनारायण आशिल्लें. दिनकर दोन वर्सांचो आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयलें आनी संवसाराचो सगळो भार ताचे आवयचेर पडलो. ल्हान पिरायेचेरूच श्यामा देवी हे चलयेकडेन दिनकराचें लग्न जालें आनी रामसेवक, केदारनाथ हे दोन चले आनी विनिता, विभा ह्यो चलयो जाल्यो.

दिनकराचें मुळावें शिक्षण गांवचे शाळेंतूच जालें. १९२८ वर्सा तो हायस्कुलाची परिक्षा, हिंदीचो सर्वश्रेश्ठ विद्यार्थी म्हणून पास जालो आनी ताका 'भूदेव पदक' फावो जालें. इतिहास विशय घेवन बी.ए. जातकच १९३३-३४ वर्सा शिक्षक म्हणून ताणें काम केलें. कांय दीस हेडमास्तर म्हणून काम करतकच तो सबरजिस्ट्रार जालो. १९४८त सरकारी नोकरी सोडटकच बिहार सरकाराच्या प्रचार विभागांत ताणें उपनिर्देशक म्हणून काम केलें. ही सरकारी नोकरी सोडून तो मुझफरपूरच्या म्हाविद्यालयांत हिंदी विभागाचो मुखेल जालो (१९५०-५२). पूण रोखडीच ताची काँग्रेस पक्षावतीन राज्यसभेंत वांगडी म्हणून नियुक्ती जाली (१९५२-६३). खासदारपद सोंपतकच कांय दीस भागलपूर विश्वविद्यालयांत उपकुलपती म्हणून ताणें काम केलें (१९६४-६५). १९६५-१९७१ मेरेन तो केंद्रीय गृह मंत्रालयाचो हिंदी भाशा सल्लागार आशिल्लो. तशेंच चित्रपट पारितोषिक समिती, संगीत नाटक अकादमी, साहित्य अकादमी, आकाशवाणीची राश्ट्रीय सल्लागार समिती ह्या समित्यांचो वांगडी म्हणुनूय ताणें काम केलें.

कवी दिनकर हाका जिवितांत खूब कश्ट, दगदग सोंसचे पडिल्ल्यान ताचे अणभव आनी उत्फर्के ताच्या कवितांतल्यान प्रकट जाल्यात. ताचे कवितेंतली भास शुध्द गांवगिरी आसा. स्वतंत्रतायेचे चळवळींतूय ताचो अप्रत्यक्षपणान वांटो आशिल्लो. ताच्या कांय कवितांतल्यान ही राश्ट्रभक्ती दिश्टी पडटा. साहित्याप्रमाण राजकारण, संस्कृती आनी इतिहास ह्या

विशयांचीय ताका ओड आशिल्ली. ताच्या कांय कवितांतल्यान हें स्पश्ट जाता.

हिंदी कवितेची उदरगत करपाखातीर दिनकर हाणें खूब मोलाचें कार्य केलां. ताणें हिंदी कवितेक एक खाशेली सुवात मेळोवन दिल्या.

ताचे कांय काव्यग्रंथ अशे आसात - १. प्रबन्ध काव्य - प्रणभंग (१९२९), कुरुक्षेत्र (१९४६), रश्मिरथी (१९५२), उर्वशी (१९६१). २. मुक्तक काव्यसंग्रह - बारदोली सत्याग्रह, रेणुका (१९३६), हुंकार (१९३९), रसवंती (१९४०), द्वंद्वगीत (१९४०), सामधेनी (१९४७), बापू (१९४७), इतिहास के आँसू (१९५१), धूप और धुआँ (१९५१), दिल्ली (१९५४), चक्रवाल (१९५६), कविश्री (१९५६), सीपी और शंख (१९५७), नए सुभाषित (१९५७), परशुराम की प्रतीक्षा (१९६२), आत्मा की आँखें (१९६४), कोयला और कवित्व (१९६४).

समिक्षात्मक निबंद-संग्रह - मिट्टी की ओर (१९४६), काव्य की भूमिका (१९५८), पंत, प्रसाद और मैथिलीशरण (१९५८), शुध्द कविता की खोज (१९६६), साहित्यमुखी (१९६८), राष्ट्रभाषा आंदोलन और गांधीजी (१९६८). निबंदांझेले - अर्धनारीश्वर (१९५२), रेती के फूल (१९५४), वणुवन - (१९५८), वट - पीपल (१९६१), आद्युनि बोध (१९७३).

संस्कृति - हमारी सांस्कृतिक एकता (१९५४), राष्ट्रभाषा और राष्ट्रीय एकता (१९५५), संस्कृति के चार अध्याय (१९५६), धर्म, नैतिकता और विज्ञान (१९५९).

कथासंग्रह - उजली आग (१९५६) भुरग्यांचें साहित्य - धूप छाँह (१९४७), चित्तौर का साका (१९४९), मिर्च का मजा (१९५१), सूरज का ब्याह (१९५५), भारत की सांस्कृतिक कहानी (१९५५) हेर साहित्य - देश - विदेश (१९५७), लोकदेव नेहरू (१९६५).

दिनकराच्या साहित्यांतल्यान ताचें अश्टतासांचें व्यक्तिमत्व जाणवता. ताणें पोलंड, फ्रांस, इंग्लंड, स्विट्झर्लंड, रशिया, चीन आदी देशांक भेटी दिल्यो. ताका बरेच राजकीय आनी समाजीक भोवमान फावो जाल्ले. साहित्य अकादमी पुरस्कार (१९५९), पद्मभूषण (१९५९), डी.लिट. (१९६२) आनी ज्ञानपीठ पुरस्कार (१९७२) ह्या म्हत्वाच्या पुरस्कारांचो आस्पाव जाता.

- बी. डी. मिश्रा

**दिनार** : पुर्विल्लें भारतीय नाणें. हें भांगराचें आसून ६२ (गुंजो) वजनाचें आशिल्लें. पुर्विल्ल्या काळांत अस्तंत भारतांतल्या बंदरांचो रोमाकडेन वेपारी संबंद आशिल्लो. तेखातीर देनेरियस हें रोमी नाणें अस्तंत भारतांत येतालें. चंद्रगुप्त दुसरो हाणें इसवी सनाच्या पांचव्या शेंकड्याचे सुर्वेक शकांक हारोवन अस्तंत भारतांत आपली सत्ता हाडली, तेन्ना ताका ह्या रोमी नाण्याची वळख जाली.

ताणें ह्याच आकाराचें आनी वजनाचें स्वतंत्र नाणें प्रचारांत हाडलें. दिनार हें नांव मूळ देनेरियस ह्या रोमी नांवावयल्यान आयलां.

सम्राट हर्ष हाणें, आपलो संगीत गुरू कनक हाका एक लाख दिनार दक्षिणा म्हणून दिल्ल्याचो उल्लेख राजतरंगिणींत आयला. कांय मध्यपूर्व आनी उत्तर आफ्रिकेच्या देशांतलें दिनार हें सद्याचें चलनी नाणें.

- कों. वि. सं. मं.

**दिनीश, ज्युलियु** : (जल्म : १४ नोव्हेंबर १८३९, पोर्तु; मरण : १२ सप्टेंबर १८७१, पुर्तुगाल).

एक नामनेचो पुर्तुगेज कादंबरीकार, कवी आनी नाटककार. अर्वाचीन पुर्तुगेजांचो एक व्हड कादंबरीकार म्हणून ताची नामना आसा.

वैजकीची पदवी घेतले उपरांत ताणें पोर्तु वैजकी शाळेंत शिक्षक म्हणून कांय तेंप काम केलें. पूण ताच्या रगतांत टी.बी. सांपडिल्ल्यान ताका ह्या पदाचो राजिनामो दिवंचो पडलो. पोर्तु वैजकी शाळेंत वावुरतना ताणें कांय कथा बरयल्यो, त्यो पोर्तुच्या खबरांपत्रांतल्यान उजवाडाक आयिल्ल्यो.

फुडें शिक्षकाचे नोकरेक सोडचीट दिले उपरांत तो सुसेग घेवपाक म्हणून ओवार नगरांत गेलो. त्या तेंपार ताणें अश पुपिलश दु सिन्योर रेयतोर (१८५७) (Pupils of the dean) ही आपली प्रसिद्द कादंबरी बरयली. हातूंत ताणें आपल्या देशांतले समाजजिणेचें आनी वेगवेगळ्या देखाव्यांचें सादें पूण ओडलायण्या शब्दांनी वर्णन केलां. उपरांत ताणें 'उम फामिलिया इंग्लेझ' (An English family) १८६८ ही कादंबरी उजवाडाक हाडली. हे कादंबरेंत ताणें पोर्तु प्रदेशांतल्या इंग्लीश लोकांचे जिवीत शैलीचेर उजवाड घाल्लो. ताणें बरयल्यो कविता आनी नाटकां ताच्या मरणाउपरांत उजवाडा आयिल्लीं. पूण अश पुपिलश दु सिन्योर रेयतोर हे कादंबरेक लागून ताका खूब नामना मेळ्ळी. ताच्या कादंबऱ्यांच्या कल्पनांचो विलासी आनी वास्तववादी मांडावळींत आस्पाव जाता. ताच्या लिखाणांतल्यान ताचें सादेपण, उजू चलणूक तशेंच ताचो आपल्या देशाचेर आनी पुर्तुगेज लोकांचेर आशिल्लो मोग दिश्टी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**दिलरुबा** : एक तंतूवाद्य. सतार आनी सारंगी मेळून हें वाद्य जालां. हें तयार करपाखातीर एक लांबट चवकोनी ओंडको घेतात. हो ओंडको ६ इंच रूंदायेचो आसता. ताचेर कातडें ताणून बसयिल्लें आसता. ह्या कातड्याचेर घोडी आसता आनी घोडयेचेर चार मुखेल सरयो ताणून बसयतात. हेभायर ताका आनीक बावीस सरयो बसयतात. ओंडक्याक एके वटेन अदर्या चंद्रिमाचो आकार दिल्लो आसता. दिलरुबाची लांबाय सुमार तीन फूट आसता. सतारी वरीच ह्याय वाद्याक एकुणीस पड्डे आसतात. दिलरुबा वाजोवपाखातीर गज वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**दिल्ली** : भारताचें राजपाटण आनी ताचे भोंवतणचें राज्य. हें राज्य भारताचे उत्तरेक वसलां. क्षेत्रफळ १,४८३ चौ. किमी. लोकसंख्या ९,३७०,४७५ (१९९१). भास - हिंदी, पंजाबी आनी उर्दू. साक्षरताय - ७६.०९%. विस्तार - २८° २३' उत्तर ते २८° ५५' उत्तर आनी ७६° ५१' उदेंत ते ७७° २१' उदेंत. हाचे उत्तरेक आनी अस्तंतेक रोहटक हे जिल्हे, उदेंतेक उत्तर प्रदेश राज्याचे मेरठ आनी बुलंदशहर जिल्हे आसात आनी दक्षिणेक हरयाना राज्याचो गुरगांव जिल्हो आसा.

**भूंयवर्णन** : दिल्लीचे उत्तरेक हिमालयाचो दोंगरी वाठार उदेंत - अस्तंत पातळ्ळा. हाचो अस्तंत भाग रेंवट आसून यमुनेच्या गाळान तयार जाल्लो ह्या प्रदेशाचो उत्तरेचो आनी उदेंतेचो चडसो भाग सपाट आसा. मध्यभाग फातराळ आनी पडंग आसून ताची उंचाय सुमार २००मी.

मेरेन आसा. हांचे मदल्यान अरवली दोंगरांच्यो पयस-पयस पातळिल्ल्या ओळींचो एक उणे उंचायेचो फांटो गुरगांव जिल्ह्यांतल्यान सरून आग्नेयेकडच्यान ईशान्येकडेन यमुनेचे देगेमेरेन देंवत वता. अरवलीचो दुसरो फांटो प्रदेशाच्या दक्षिण भागांत उदेंतेकडेन वचून परत गुरगांव जिल्ह्यांत मोडिल्लो आसा. ह्यो दक्षिण वाठारांतल्यो दोंगुल्ल्यो वा दोंगर अलवर संहतीच्या स्फटीकजन्य फातरांसावन तयार जाल्ले आसात. यमुनादेगेच्या 'खादर' भागांतली गाळाची माती (रेंवट) ईशान्येकडल्या उंचावयल्या खादर भागांतली चिकटमाती पूण पिकाळ आनी नजफ्फश आनी फतेपुरबेरी कडची सकल 'डाबर' भूंय हे हांगाचे मातयेचे मुखेल प्रकार आसात. ह्या प्रदेशांत कंकर, चुनखडी आनी घरां बांदपाक उपेगी पडपी फातर मेळटात. उदेंत भागांतल्यान उत्तर दक्षिण दिशेन व्हांवपी यमुना ही एकूच न्हंय ह्या राज्यांत आसा.

हांगाचें हवामान वेगळ्या स्वरूपाचें. गीम आनी शिंयाळो हांच्या तापमानांत बरोच फरक जाणवता. गिमाच्या दिसांनी तापमान ३७.८° ते ४०.६° सॅ. इतलें आसता. केन्ना केन्ना तें ४३.३° सॅ. मेरेन वता. शिंयाळ्यांत तें ७.२ ते १०° सॅ. इतलें आसता. वर्सुकी सरासरी पावस ७५ सेंमी. इतलो पडटा. जून ते सप्टेंबर ह्या काळांत चड पावस पडटा. हांगाचीं रानां लागीं लागीं काबार जाल्लीं आसात. प्रदेशाचो फकत १,००० हॅक्टर भागूच रानांतळा उरिल्लो आसा. वनमहोत्सव येवजणेसकयल मुद्दम रूख लावन रानां वाडोवपाचे यत्न सरकार करीत आसा. हांगाचीं रानां पातळ आशिल्ल्यान मोनजातीचें प्रमाण साप उणें. हांगाच्या रानांनी कोले, लांडगे, हरणां, रानदुकर आनी हेर मोनजाती सांपडटात.

**इतिहास** - आज 'पुराना किला' म्हणून प्रसिद्द आशिल्ल्या जाग्यार इ. स. पयलीं सु. पंदराव्या शेंकड्यांत पांडवांची इंद्रप्रस्थ राजधानी आशिल्ली असो परंपरागत समज आसा. हांगा पुर्विल्ल्या काळाचे कांयच अवशेश सांपडनात. पूण आख्यायिकांवरवीं हें एक व्हड शार आशिल्लें अशें कळटा. ते उपरांत क्रिस्तापयलीं पयल्या शेंकड्यांत दिलू राजान कुतूब मिनारालागीं पयले खेपे दिल्ली शार वसयलें. १०२० वर्सा तोमरराजा अनंगपालान सूर्यकुंडाची आपली राजधानी दिल्लीक हाडली. तोमर वंशियांनी हांगा लालकोट ह्या नव्या नगरांत साबार देवळां, अनंगताल हें तळें आनी आयज लेगीत प्रसिद्द आशिल्लो लोहस्तंभ उबारलो. चौहानवंशीय पृथ्वीराजान राजधानीचो विस्तार चार पटींनी वाडयलो. पृथ्वीराज हो दिल्लीचेर राज्य करपी निमाणो हिंदू राजा आशिल्लो. ताणें हांगा कांय सोबीत देवळां बांदलीं आनी ऊंच स्तंभूय उबारलो. ताणें ह्या शारा भोंवतणीं ऊंच परकोट बांदून रायपिठोरा किल्लो बांदलो. ११९३त मुहम्मद घोरीन पृथ्वीराजाक मारून दिल्लीची हिंदू सत्ता काबार केली. घोरीचो सेनापती कुत्बुद्दीन ऐबक हाणें दिल्लीची सुलतानी करून गुलाम वंशाची स्थापणूक केली.

पृथ्वीराजान बांदिल्लीं देवळां मोडून 'कुव्वतुल इस्लाम' ही व्हड मशीद बांदली आनी स्तंभाच्या जाग्यार ७२.५६ मी. उंचायेचो कुतूबमिनार उबो केलो. गुलाम वंशाफाटल्यान खिलजी हांगा आयले. खिलजी घराण्यांतल्या अलाउद्दीन हाणें तेराव्या शेंकड्यांत सिरीक नवी राजधानी बांदली. चवदाव्या शेंकड्यांत तुघलक सत्तेर आयले. घियासुद्दीन तुघलक हाणें तुघलकाबाद, मुहम्मदान जहाँपनाह आनी फिरूझशाहान फिरोझाबाद अशो तीन वेगळ्यो वेगळ्यो राजधानी बांदल्यो. १३९८त तैमूरलंग हाणें दिल्लीचेर घुरी घालून सबंद दिल्ली लुटली आनी एक लाख नागरिकांची कत्तल केली. तेउपरांत सुमार अर्दो शेंकडो तरी दिल्ली सय्यदांच्या शेकातळा आशिल्ली. पूण ते रीतसर राजकारभार करूंक शकलेनात. १४५१त सय्यदांक हारोवन लोदी वंशियांनी आपली राजधानी आग्राक व्हेली.

१५२६त बाबरान पानीपताच्या झुजांत इब्राहीम लोदी हाका मारून मोगल वंशाची थापणूक केली. ताचो पूत हुमायून हाणें इंद्रप्रस्थाच्या जाग्यार दिनेपनाह ही नवी राजधानी बांदपाक सुरवात केली; पूण बांदकाम



लाल किल्लो

काबार जावंचे पयलीं शेरशाह सूर हाणें ताका धांवडावन ह्या जाग्यार नवें शार बांदलें. हुमायून शेरशहा मेल्या उपरांत आपलें राज्य परत मेळयलें. ताचे उपरांत अकबर हाणें आपली राजधानी आग्रा आनी फत्तेपूर सिक्रीक दवरली आनी जहांगीर हाणें लाहोराक आपली राजधानी दवरली. मुखार शाहाजहानान फिरोजाबादेक नवी राजधानी बांदली. आयजूय ती दिल्ली शार म्हणून प्रसिद्द आसा. औरंगजेबा फाटल्यान मोगल साम्राज्याचे ल्हान-ल्हान कुडके जावपाक लागले. १७३९त नादिरशाहान आनी १७५७त अहमदशाह दुर्रानी हाणीं दिल्ली लुटली. १७७१त मराठ्यांनी शाह आलम हाका दिल्लीचे गादयेर बसोवन दिल्लीचो कब्जो घेतलो. १८०३त इंग्लिशांचो सेनापती लेक हाणें मराठ्यांक हारोवन इस्ट इंडिया कंपनीकडेन दिल्ली सोंपयली.

१८५७त बंडवाल्यांची सत्ता कांय दीस दिल्लीचेर आशिल्ली, पूण १८५८त इंग्लिशांनी दिल्ली परत घेतली. १९११त हिंदुस्तानाची राजधानी कलकत्त्यासावन दिल्लीक व्हरपाची घोशणा राजा जॉर्ज पांचवो हाणें केली. दिल्ली शाराक राजधानीचो दर्जो मेळ्ळे उपरांत हांगा भोव उदरगत जावपाक लागली.

देशाच्यो चारूय दिशा लोह आनी राजमार्गांनी दिल्लीक जोडल्यो. नवी दिल्ली राजधानीखातीर रायसीना ह्या सड्याचेर सर एडविन लटचेन्झ हाणें आंखिल्ले येवजणेचें काम सोंपले उपरांत हांगाच्यान राज्यकारभार चलोवपाक सुरवात जाली. १९४७त ब्रिटीश सत्ता सोंपले उपरांत दिल्ली हीच स्वतंत्र भारताची राजधानी जाली.

**राज्यवेवस्था** - १ नोव्हेंबर १९५६ सावन दिल्लीचो 'केंद्रशासीत प्रदेशां' चे वळेरींत आस्पाव केलो. मे १९६६त लोकसभा आनी राज्यसभा हाणीं पास केल्ल्या विधेयकावरवीं णव सप्टेंबर १९६६ दिसा दिल्लींत नव्या प्रकारचो राज्यकारभार सुरू जालो. दिल्लीच्या ह्या केंद्रशासीत राज्यांत वेंचून दिल्ल्या ६१ वांगड्यांची एक म्हानगरी परिशद आसली. परिशदेंतले पांच वांगडी राश्ट्रपतीन नेमिल्ले आसताले. गृहमंत्र्याच्या सल्ल्याप्रमाण राश्ट्रपतीन नेमिल्लो नायब राज्यपाल सगळ्या कारभाराची

देखरेख करतालो. ताका पालव दिवपाक चार कारभारी वांगड्यांचें एक मंडळ आसतालें. ह्या वांगड्यांची नियुक्ती गृहमंत्र्याचे बुद्दीन राश्ट्रपती करतालो. तातूंतलो एक वांगडी मुखेल कारभारी परिशद वांगडी आनी बाकीचे तीन कारभारी वांगडी आसताले.

म्हानगरी परिशदेचो मुखेल संचालक हो मंडळाचो अध्यक्ष आसतालो. ह्या राज्यांतल्यान राज्यसभेंत तीन आनी लोकसभेंत सात वांगडी वेंचून दिताले. डिसेंबर १९९१त, संविधानाचे ७४ वे दुरुस्तीक धरून ७० वांगडी आनी ७ मंत्री गण आशिल्ली विधानसभा, ह्या राश्ट्रीय राजधानी आशिल्ल्या प्रदेशाखातीर निर्माण केली. तेन्नासावन दिल्ली ह्या केंद्रशासीत राज्याचो कारभार मुखेलमंत्र्याच्या फुडारपणाखाला विधानसभेच्या मार्गदर्शनावरवीं चलता. ५ सप्टेंबर १९६६ दिसा पास जाल्ल्या थारावावरवीं ह्या राज्यांत उच्च न्यायालयाची स्थापणूक जाली. ७ एप्रिल १९५८ दिसा दिल्लींत म्हानगरपालिकेची स्थापणूक जाली. तातूंत १०६ वांगडी आसतात.

दिल्लीच्या केंद्रशासीत प्रदेशांत दिल्ली म्हानगरपालिका, नवी दिल्ली नगरपालिकीय समिती आनी दिल्ली कँटोनमँट मंडळ अशे तीन थळावे प्रशासकीय विभाग आसात.

**अर्थीक स्थिती** : शारीकरणाचे प्रक्रियेंतल्यान, हांगाची लागवडीची जमीन दिसानदीस उणी जायत वता. तांदूळ, गंव, ज्वारी, मको, बाजरी, बार्ली, कापूस, सांसवां, तेलबियां, ऊंस, मिरसांग हीं हांगा पिकतात. हांगा व्हड असो एकूय शिंपणावळ प्रकल्प ना. ल्हान ल्हान शिंपणावळ प्रकल्प आनी ल्हान न्हंयांसावन शेतांक उदक मेळटा. लागवडीखाला जमीन उणी आसली तरी शेतांत यंत्रां लायिल्ल्यान पिकां व्हडा प्रमाणांत येवंक लागल्यांत. हांगाचे शेतकार आतां भाजीपालो, फळफळावळ, दूद वेवसाय, कुकडां पोसप हांचेर चड भर दिवपाक लागल्यात. आज दिल्लींत भाजीपालो खूब प्रमाणांत पिकता. गंवाचेंय पीक व्हडा प्रमाणांत येवपाक लागलां. गंव पिकोवपाक आयज दिल्लीचो भारतांत दुसरो क्रमांक लागता.



जामा मशीद

दिल्ली आनी नवी दिल्ली हें आधुनीक शार आज उत्तर भारतांतलें सगळ्यांत व्हड वेपारी केंद्र. उद्येगधंद्यांच्या मळारूय हांगा बरीच उदरगत जाल्या. १९४७ वर्सा सावन सरकार उद्येगधंद्याच्या मळार भर दीत आयला. ब्लेडी तयार करप, पोलाद ओतकाम, वखदां, रसायनां, रंग, इलॅक्ट्रॉनीक वस्तू, विद्युत् उपकरणां, टेलिव्हिजन, रेडिओ आनी तांचे मेकळे भाग, सायकली आनी तांचे मेकळे भाग, रबराच्यो वस्तू, प्लास्टीकाच्यो वस्तू, मोटारींचे मेकळे भाग, सुक्ष्म उपकरणां, सुती आनी लोकरी कपड्याच्यो गिरणी, वनस्पती तुपाच्यो गिरणी, तांबें आनी पितूळचीं आयदनां करपाचे कारखाने हांगा सुरू जाल्यात. जोती, चामड्याच्यो वस्तू, कंवचेच्यो वस्तू, घड्याळी, केबल तयार करपी आनी हेर वस्तू करपी कारखाने हांगा आसात.

दिल्ली प्रशासनान राजधानी भोंवतणीं ग्रामीण उद्येगीक वसाहत उबारपाची एक म्हत्वाची येवजण आंखिल्ली आसून अलीपूर कांझाव्ला, नजफगढ, नांगलोई जाट आनी पालाम ह्या पांच खेड्यांतल्यो उद्येगीक वसाहती सगळ्यांत व्हड आसात. दिल्ली प्रदेशांतल्या ल्हान सान उद्येगांनी हस्तीदंतकाम, भांगर आनी रुपें हाचें भरतकाम आनी नक्षीकाम आनी सोबीत तांब्यापितूळचीं आयदनां करप आनी हेरांचो आस्पाव जाता.

**येरादारी आनी संचारण** : दिल्ली प्रशासनाचें केंद्र आशिल्ल्यान देशाच्या चारूय दिशांनी तिनूय प्रकारांची म्हळ्यार लोहमार्ग, राजमार्ग आनी हवाई मार्गांनी येरादारी एकसारकी चालूच आसता. पुर्विल्ल्या काळासावन ह्या राज्याक म्हत्व आशिल्ल्यान ह्या शाराचो हे नदरेन खूब विकास जाल्लो आसा. मध्य युगांत आनी चड करून मोगल काळांत येरादारीच्या मळार भारतांतल्या हेर राज्यांपरस दिल्ली शारांत खूब उदरगत जाल्ली. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या अर्दाक सावनूच दिल्लीचो संबंद लोहमार्गांनी आनी राज्यमार्गांनी देशाच्या चारूय दिशांनी जोडपाक सुरवात जाल्ली.

१९१२त ब्रिटीश सरकारान हिंदुस्थानाची राजधानी कलकत्यासावन दिल्लीक हाडली आनी तेन्नासावन ब्रिटीश येरादारी मळार चड भर दिवपाक लागले. पांच राश्ट्रीय म्हामार्ग दिल्लीकसावन वतात. हांगा रेल्वे मार्गांचें जाळें आसून कलकत्ता, मुंबय आनी चेन्नई ह्या भारतांतल्या मुखेल शारांक दिल्ली शार रुंदमापी रेल्वे रूळांनी जोडिल्लें आसा. हांगा दोन विमानतळ आसून 'इंदिरा गांधी इंटरनॅशनल ॲरपोर्ट' हो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा आनी पालाम हो देशाभितल्ले येरादारीची वेवस्था सांबाळटा.

आकाशवाणीचें मुखेल कार्यालय आनी दूरध्वनी यंत्रणेचें सगल्यांत व्हड कार्यालय दिल्लीक आसा. हांगा उजवाडाक येवपी १२ मुखेल दिसाळीं आनी ६० मुखेल नेमाळीं आसात. तांच्यो भासो मुखेलपणान इंग्लीश, हिंदी, उर्दू वा पंजाबी आसात.

**लोक आनी समाजजीण** : १९९१ चे जनगणनेप्रमाण १,४८३ चौ. किमी. क्षेत्रांत ९३,७०,४७५ लोक रावतात. दर चौ. किमी. ६,१३९ लोक अशें प्रमाण आसा. दर १,००० दादल्यां फाटल्यान ८३० बायलो हांगा आसात. लोकसंख्या वाडीचें प्रमाण ७६.०९% आसून, इंग्लीश, हिंदी, उर्दू आनी पंजाबी ह्यो हांगाच्यो मुखेल संपर्काच्यो आनी उलोवपाच्यो भासो आसात.

दिल्लींत ८१.६% लोक हिंदू आसात. उरिल्ले चडशे मुसलमान. तांचो राजकीय आनी भौशीक जिणेचेर व्हड प्रभाव पडला. शीख, जैन, क्रिस्तांव, बौध्द ह्याय धर्मांचे लोक हांगा आसात. भारतांतल्या सगळ्या धर्मांचो प्रभाव हांगा पडला.

वैदिक धर्मासावन आयजमेरेनच्या सगळ्या धर्मांचें चित्र हांगा पळोवपाक मेळटा. हांगाचे गांवगिरे आनी नागरी जिणेंत खूब फरक आसा. गांवच्या लोकांची रावपाची, खावपाची आनी न्हेसपाची पद्दत सादी. सादारण लोक फातर वा विटांच्या घरांनी रावतात. कांय लोक मातयेच्या घरांनी रावतात. हिंदू आनी हेर धर्मांच्या लोकांभितर घरां, भेस आनी जेवणखाण हातूंत व्हडलोसो फरक ना. शारांतल्या दादल्या-बायलांचेर आर्विल्या भेसांचो प्रभाव पडला. शारांतल्यो बायलो भौशीक जिणेंत बरोच वांटो

घेतात.

रक्षाबंधन, दसरो, दिवाळी आनी होळी हे चार सण राज्यांतले चारूय वर्णांचे लोक व्हड उमेदीन मनयतात.

मुसलमान लोक ईद - ऊल - फित्र, इद - ऊल - जुहा, मीलाद - उन नबी मनयतात. किरिस्तांव लोक जेझू क्रिस्ताचो जल्मदीस मनयतात. जैन लोक महावीर जयंती, बौध्द लोक बुध्द पुनव आनी शीख लोक गुरूनानक जयंती व्हडा दबाज्यान मनयतात.

हांगा सद्या शिक्षणाचो प्रसार नेटान चल्ला. १४ वर्सां मेरेनच्या भुरग्यांक मुळावें शिक्षण फुकट केलां. सगळ्या लोकांक बऱ्या दर्ज्याचें शिकप आनी शिकपाची एकसारकी संद मेळची म्हणून सरकार यत्न करता. हांगाचीं मुखेल विश्वविद्यालयां म्हळ्यार दिल्ली विश्वविद्यालय, जवाहरलाल नेहरू विश्वविद्यालय, जामिया मिलिया इस्लामीया, ऑल इंडिया इन्स्टिटयूट ऑफ मॅडिकल सायन्सीस, इंडियन ॲग्रीकल्चर रिसर्च इन्स्टिटयूट, इंडियन इन्स्टिटयूट ऑफ टॅक्नोलॉजी, जामियाँ हमदर्द विश्वविद्यालय आनी इंदिरा गांधी राष्ट्रीय मुक्त विश्वविद्यालय.

भारतांतल्यो साबार म्हत्वाच्यो शास्त्रीय आनी शिक्षणीक संस्था तेभायर संशोधन संस्था आनी प्रयोगशाळा दिल्लींत आसात. तातूंत राष्ट्रीय विज्ञान अकादमी, विज्ञानीक आनी उद्‌देगीक अनुसंधान परिशद, राष्ट्रीय भौतिकी प्रयोगशाळा, राष्ट्रीय संरक्षण म्हाविद्यालय, भारतीय मानक संस्था, भारतीय इतिहास संशोधन परिशद, भारतीय वैद्यक अनुसंधान परिशद, राष्ट्रीय कुटुंब येवजण संस्था, राष्ट्रीय उद्‌देगीक विकास निगम. राष्ट्रीय साहित्य अकादेमी, संगीत अकादमी, नॅशनल बूक ट्रस्ट आनी हेर संस्था आसात. चित्र, शिल्प, नृत्य, नाटच, संगीत आनी हेर आधुनीक कलांचो खूब विकास जाला. पारंपारिक खेळ फाटीं पडल्यात आनी लोकाक सॉकर, हॉकी, क्रिकेट आनी बुद्‌दीबळ ह्या खेळांची आवड निर्माण जाल्या.

**पर्यटन** : पुर्विल्ल्या काळासावन ते आयजमेरेन दिल्ली शाराक म्हत्व लाबिल्ल्यान हें शार गिरेस्त आनी सोबीत वास्तुकलेन भरिल्लें आसा. दोनूय दिल्ली, म्हळ्यार आदले दिल्ली नगरीचे इतिहासीक अवशेश आनी नवे दिल्लीच्या शासकीय वैभवाची संवसारांत नामना आशिल्ल्यान देशांतल्यान आनी परदेशांतल्यान येवपी पर्यटकांची व्हड गर्दी जाता. हाका लागून पर्यटन वेवसायाक दिल्लींत नेट आयला. दिल्ली प्रशासनान दिल्ली पर्यटन विकास निगमाची स्थापणूक केल्ली आसून ह्या निगमान आंतरराष्ट्रीय पर्यटकांची रावपाची आनी जेवणाखाणाची बरेरितीन वेवस्था जावंची म्हणून एक येवजण आंखल्या. राश्ट्रपती भवन, मोगल उद्यान, संसद भवन, चांदनी चौक, लाल किला, जामा मशीद, रायबत, राजघाट, शांतीवन, विजयघाट, पुराना किला (इंद्रप्रस्थ), कुतूबमिनार, इंडिया गेट, बिर्ला मंदीर, बहाई टँपल हीं खासा दिल्ली शारांत आशिल्लीं पर्यटन स्थळां. तेभायर आग्रा हें ताज महाल आशिल्लें शार, श्रीकृष्णाची मथुरा, तुगलकाबाद, सुरजकूंड, लक्ष्मी नारायणाचें देवूळ, सुलतानपूरचें तळें हीं अशींच आनीक कांय पर्यटन स्थळां आसात.

– कों. वि. सं. मं.

## दिवकर, यशवंत ऊर्फ महाबळेश्वर शिवराम : (जल्म : १३ मे १९२५ म्हापशें).

सुटकेझुजारी. १९५२-६१ ह्या काळांत तो 'आझाद गोमंतक दल' हे संघटणेचो वांगडी आशिल्लो आनी भूंयगत राश्ट्रीय वावर करतालो. पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका तीन फावटीं धरलो. तो वट्ट चार वर्सां बंदखणींत उरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

## दिवचल :

गोंय राज्याच्या वट्ट इकरा म्हालांतलो एक म्हत्वाचो म्हाल. क्षेत्रफळ २३३.४ चौ. किमी. अक्षवृत्तीय विस्तार १५° ३५' १५" उत्तर आनी ७५° ५६'४५" उदेंत. दिवचल म्हालाचे उदेंतेक सत्तरी म्हाल, उत्तर दिशेक महाराष्ट्र राज्याची शीम, दक्षिणेक फोंडें म्हाल आनी अस्तंतेक बारदेस आनी तिसवाडी म्हालांचो आस्पाव जाता. १९९१चे जनगणनेप्रमाण दिवचल म्हालाची लोकसंख्या ८४,५१३ आसून हातूंत ४३,४३४ दादले आनी ४१,०७९ बायलांचो आस्पाव जाल्लो. आदल्या काळांत ह्या म्हालाक भतग्राम ह्या नांवान वळखताले.

**भूंयवर्णन** : दिवचल म्हालाची चडशी भूंय दोंगर-दोंगुल्ल्यांनी आनी जंगलांनी भरिल्ली आसा. उसगांवची म्हादय न्हंय, सांखळेची वळवंटा न्हंय, दिवचलची दिवचल न्हंय आनी साळची साळ न्हंय ह्यो ह्या तालुक्यांतल्यो महत्वाच्यो न्हंयो. ह्या तालुक्यांतले साळ, मेणकुरें हे गांव साळ न्हंयेचे देगेर वशिल्ले आसात.

**इतिहास** : दिवचल शारांत आनी तालुक्यांत सांपडिल्ल्यो पोरण्यो वास्तू, किल्ल्यांचे अवशेश, देवळां, शिलालेख, धोली आनी हेर गजाली पुर्विल्ल्या इतिहासाचे पुरावे दितात. बुध्दाउपरांत आनी अशोकापयलींच्या काळांत गोंयांत जैन धर्माचो प्रसार जाल्लो हें दिवचल तालुक्यांतल्या कोठंबी गांवांत सांपडिल्ले जैन तिर्थंकाराचे पोरणे मुर्तेवयल्यान कळटा. इ. स. प. १००० वर्सांचें पाशाणांत कांतयल्लें सुर्लाचें सिध्देश्वराचें देवूळ, लामगांवच्यो बुध्द धर्माच्यो हिनयान पंथांतल्यो भिक्षूंच्यो धोली, पांचशें वर्सांपयलीचें कांसरपाल संस्थान, हरवळेंच्या शिवलिंगाचेर आशिल्लो शिलालेख, पोरणे संस्कृतायेचें दर्शन घडोवपी कौडिण्यपूर (कुडणें), ह्यो गजाली दिवचलच्या पुर्विल्ल्या इतिहासाचें दायज आसात.

गोंयचे उत्तरेक पेडण्यां केशव नायक आनी केशव प्रभू, कुडाळाक लखम सावंत आनी भतग्रामांत रवळू शणै ह्या देसायांचीं ल्हान-ल्हान राज्यां आशिल्लीं. ते विजापूरकरांचे मांडलीक आशिल्ले.

१६६९त शिवाजीन दिवचल शार विजापूरच्या सुलतानाकडच्यान घेतलें. दिवचले आसतना शिवाजीन सप्तकोटेश्वर ह्या नांवेंच्या देवळाचो जीर्णोध्दार केल्ल्याचो उल्लेख आसा.

पुर्तुगेजांनी गोंय प्रांत इ. स. १५१०त विजापूरचे सत्तेकडल्यान जिखून घेतिल्लो. १५४३ मेरेन पुर्तुगेजांनी तिसवाडी, बारदेस आनी साश्टी हे वाठार आपले सत्तेखाला हाडले. फोंडें ताणीं पेशव्यांकडल्यान १७६२त घेतलें. १७६४त सौंदेंचो राजा आनी पुर्तुगेजांभितर कबलात जावन सांगें, केपें आनी काणकोण हे वाठार घेतले. तशेंच पेडणें, सत्तरी आनी दिवचल हेय वाठार घेतले. पेडणें, सत्तरी आनी दिवचल हे वाठार तांकां झुजांतल्यान तशेंच कबलातींतल्यान १७८१त सावंतवाडीच्या भोसल्यांकडच्यान मेळ्ळे. नव्यो काबिजादी म्हणून ह्या वाठारांचो उल्लेख जातालो.

गोंयच्या सुटकेझुजांत दिवचल म्हालांतल्या साबार लोकांनी वांटो घेतिल्लो. १९४६त मयेंच्या देवळाची सुवात पुर्तुगेज सरकारान जप्त

केल्ली. देखून मयेंच्या लोकांनी पुर्तुगेजांआड व्हड चळवळ उबारिल्ली. स्वातंत्र्यसैनीक विश्वनाथ लवंदे हाच्या मार्गदर्शनाखाला मयेंच्या शेतकामत्यांनी ११ डिसेंबर १९४६त 'नांगर सत्याग्रह' केलो. गोंयाभायल्या सत्याग्रह्यांक गोंयांत धाडपाक भारत सरकारान बंदी घालेउपरांत तो आदेश मोडून उडोवपाखातीर १८ मे १९५५ दिसा नानासाहेब गोरे आनी सेनापती बापट हांच्या फुडारपणाखाला लाडफ्यां (दिवचल) इतिहासीक सत्याग्रह जालो.




दिवचल

दिवचल तालुक्यांत एक नगरपालिका आनी अठरा पंचायती आसात. दिवचल तालुक्याची पाळी, दिवचल आनी मयें अशी तीन विधानसभा मतदारसंघांमदीं विभागणी केल्ली आसा.

**अर्थीक स्थिती** : शेतवड हो दिवचल म्हालांतल्या लोकांचो मुखेल वेवसाय. तरी खाण वेवसाय आनी काजू प्रक्रिया उद्देग हांकांय खूब म्हत्व आसा. भात हें हांगाचें मुखेल पीक. कांदे, नाचणें, तोर, कुळीद, अळसांदो हींय पिकां हांगा गिमाच्या दिसांनी काडटात. पूण खण वेवसायाच्या वायट परिणामांक लागून पिकांचें प्रमाण उणें जायत आसा. सुपारी, नाल्ल, काजू ह्या सारकिल्या पिकांक बागायतदार संस्थांक लागून बरे दीस आयल्यात. काजूगर आनी काजुचो सोरो काडपाचो धंदो नेटान चलता.

दिवचल तालुक्यांतल्या उद्देग धंदयांचो विचार केल्यार खाण वेवसायाक चड म्हत्व आसा हें मतींत येता. ह्या उद्देगान फाटलीं कांय वर्सांसावन गोंयचे अर्थवेवस्थेक सांवरून धरल्या. ह्या तालुक्यांत कांय गांव सोडल्यार सगळ्या गांवांनी मिनाखाणी आसात. दिवचल, पाळी, वेळगें, सूर्ल, आमोणें, नावेली, कुडणें, पिळगांव, मयें, शिरगांव, कांसरपाल ह्या गांवांनी हो वेवसाय चलता. हांगाच्या खाणींनी मुखेलपणान लोखणाचे सांठे आसात. दिवचलच्या ६० टक्क्यांपरस चड कुटुंबाचो उदरनिर्वाह ह्या उद्देगाचेर आदारिल्लो आसा.

बऱ्याच प्रकारच्या कलाकुसरी संबंदीचे वेवसाय हांगा चलतात. मेस्तकाम, भांगर, रुपें, लोखण हांचें धातूकाम, पितूळचें धातूकाम, चामड्याचें काम, कुमारकाम ह्या ल्हान-ल्हान उद्देगांकूय हांगा म्हत्व प्राप्त जाल्लें आसा.

शिरगांवचे लईराई देवीची जात्रा, साळचो गड्यांचो उत्सव, बोर्डेंची घोडेमोडणी, आमोणेंचो दसरो, अडवलपालचे शर्वाणी देवीचो दिवजोत्सव,

मयेंची देवीची जात्रा, दिवचलचो नवो सोमार हे हांगाचे कांय मुखेल उत्सव.

दिवचले आनी सांखळे मुसलमान धर्माचे लोक कांय प्रमाणांत आसात. क्रिस्तांव धर्माचेय कांय लोक हांगा आसात. ह्या लोकांचे धर्मीक उत्सव हांगा जातात.

चित्रकार, नाटक कलाकार, गायक, पेटी आनी तबला वादक, रांगोळीकार, शिल्पकार, किर्तनकार हाणीं दिवचल म्हालाक नामना मेळोवन दिल्या. गोंयचो भजन सम्राट सर्गेस्त मनोहरबुवा शिरगांवकार हो शिरगांवचो. गायक म्हणून नामना जोडिल्लो अजीत कडकडे हो दिवचलचो. स. बाबा कापडी हाणें महाराष्ट्रांत चित्रकार आनी गायक म्हणून नामना मेळयल्ली. मुक्तीपयलींच्या काळांतूय नाट्यकलेची परंपरा राखपी नाट्यलेखक, पेटीवादक आनी कलाकार सर्गेस्त सखाराम बर्वे हो मूळ दिवचलचो.

नाना शिरगांवकार हो गोंयचो एक बरो पेटीवादक आनी गायक. रांगोळी चित्रकार अर्जून परब, नाट्यकलेंत 'मोयोबाब' ह्या नांवान वळखल्लो कृष्णा लक्ष्मण मोये, मुर्तीकार दत्ताराम पाटकार, राश्ट्रीय किर्तनकार उध्दवबुवा जावडेकार, चित्रकार झिलू हरमलकार, तबला वादक वामन पिळगांवकार हे दिवचल तालुक्यांतले नांवाजिल्ले कलाकार. साहित्य - इतिहास - संशोधनाच्या मळार डॉ. पांडुरंग पिसुर्लेकार आनी वामन वर्दे वालावलकार ऊर्फ शणै गोंयबाब हांचो वावर तोखणायेचो आसा.

**शिक्षण** : शिक्षणाच्या मळार हांगा खूब उदरगत जाल्या. १९९१ चे जनगणनेप्रमाण दिवचल म्हालाची लोकसंख्या ८४,५१३ आसून तातूंतले ५७,४५६ लोक साक्षर आसात. ह्या म्हालांत सद्या ९६ सरकारी आनी स खाजगी मुळाव्यो शाळा आसात. हांगा ११ सरकारी पूर्व माध्यमिक आनी दोन खाजगी पूर्व माध्यमिक शाळा, १७ खाजगी माध्यमिक शाळा आसात. उच्च माध्यमिक शिक्षण दिवपी फकत चार शाळा ह्या तालुक्यांत आसात. दिवचल तालुक्यांत सांखळे हांगा सरकारी म्हाविद्यालय आनी दिवचले खाजगी म्हाविद्यालय आसा. विज्ञान, कला आनी वाणिज्य फांट्यांनी पदवीमेरेनच्या शिक्षणाची सुविधा हांगा आसा.

**म्हत्वाचीं थळां** : मयेंचें तळें, हरवळेंचो धबधबो, सांखळेचें दत्तमंदीर, नार्वेचें सप्तकोटेश्वर देवूळ, शिरगांवचें लईराईचें देवूळ आनी कांसरपालचें कालिका देवूळ तशेंच चोडणेचें (तिसवाडी) सुकण्यांचें अभयारण्य पळोवपासारकीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**दिवजां** : 'दिवज' ह्या मूळ उतरावयल्यान 'दिवजां' हें उतर घडलां. दिवज म्हळ्यार एक खाशेले तरेचो दिवो. ह्या दिव्याक चारूय कुशींनी चार आनी मदीं एक अशो पांच वांटकुळ्यो पणट्यो बसोवन मालें केल्लें आसता. ह्या पणट्यांक वाती घालूंक खास अशी चोंच केल्ली नासता. मालें आनी दिव्यांची बसका हांचे मदलो भाग बारीक आसून दिवज ह्या जाग्यार मुठीन धरतात. पुर्विल्लें दिवज मातयेचेंच आसतालें. आज पितूळ - स्टिलाचेंय दिवज पळोवंक मेळटा.

जे जात्रेक अशे तरेचीं खूब दिवजां पेटयतात ते जात्रेक 'दिवजांची जात्रा' वा निखटीं 'दिवजां' अशें म्हण्टात. गोंयांत दिवजां जायनात असो एकूय म्हाल मेळचोना. जशीं व्हडल्या देवळांनी दिवजां जातात तशींच धाकल्याय देवळांनी दिवजां जातात. गुरव, नायक, गावडे, देसाय, मडवळ, म्हार, चामार, म्हाले, मेस्त, कुमार अशा सगळ्या जातींक आपआपल्या मूळ गांवांनी आपआपल्या कुळदेवाक वा कुळपुरसाक दिवजां पेटोवपाचो अधिकार आसता. ज्या गांवांत कुळपुरसाचीं दिवजां आसतात थंय फकत तांच्या वंशजांकच दिवजां पेटोवपाचो मान मेळटा.



दिवो हें तेजाचें वा अग्नीचेंच एक रूप. जैत मेळोवन आयिल्ल्या विरांक दिवे उंवाळून घरांत भितर घेवपाची भारतीय संस्कृतींत चाल आसा. ह्याच संदर्भांतल्यान दिवाळे दिसा नरकासुराची प्रतिमा लासून घरांत भितर सरतल्या दादल्याक, तशेंच शिगम्याकडेन गांव खेळून घरा परततल्या विरांक आरत उंवाळून घरांत भितर घेतात. गोंयच्या देवळांनी जातल्या दिवजांच्या उत्सवा फाटल्यान अशीच भावना आसा हांतूत दुबाव ना.

जात्रा म्हळ्यार जैताचो उत्सव. ह्या जैताच्या उत्सवांत देवाची दिवे पेटोवन उंवाळणी करपाची चाल जाल्या उपरांत हीं दिवजांच कांय जात्रांचें आकर्शण थरील्ल्यान त्या जात्रांक 'दिवजांची जात्रा' अशें नांव पडलें.

गोंयांत अशे तरेच्यो दिवजांच्यो जात्रा खूब आसात. तांतूत मदीं मोरजी, चोपडें, मांद्रें, पार्शें, धारगळ, कोरगांव, शिवोली, हडफडें, आगरवाडो, सोनसाय ह्या गांवच्या जात्रांचीं दिवजां चड प्रसिद्द आसात.

ह्यो सगळ्यो जात्रा एकाच दिसा म्हळ्यार मान्नी उमाशे दिसा रातच्यो जातात आनी तेच रातीन सोंपतात. हे एके रातीं गोंयांत बारा वेगवेगळ्या गांवांनी दिवजांची जात्रा आसता.

हेभायर पाड्डें गांवांत चंद्रनाथ पर्वतार चैत्र पुनवे दिसा मध्यान रातचीं दिवजां आसतात. बोरी गांवांत नवदुर्गेच्या देवळाकडेन कार्तिक वद्य पाडव्या दिसा दनपारचीं दिवजां जातात. गावणें गांवांत पुर्वचाऱ्याच्या देवळांत कार्तिक पुनवे दिसा, श्रीस्थळ - काणकोण गांवांत फाल्गून वद्य सश्टी दिसा फांतोडेर, माशेलांत मान्नी पुनवे दिसा रातचीं, कुमारी - सांगें गांवांत कार्तिक पुनवे दिसा रातचीं जाल्यार दिवचले आमोणें गांवांत कार्तिक वद्य चर्तुदशी दिसा दिसाचीं दिवजां जातात. हेभायर कपिलेश्वरी, कर्ला, अडवलपाल, मडकय, ह्याय गांवांनी दिवजां जातात, जांकां गोंयभर नामना आसा.

दिवजांची भोंवर मूळ पुरसाच्या जाग्यावयल्यान सुरू जावन मुखेल दैवताच्या देवळाचे पांच-सात अशे थरावीक भोंवताडे काडून विसर्जीत जाता, जाल्यार कांयकडेन मुखेल दैवताच्या देवळांत सुरवात जावन

आपले मूळ घरवंयेकडेन येवन विसर्जित करतात. वाटेर मेळटल्या ल्हान-व्हड सगळ्या देवांची उंवाळणी करपाची आसता.

दिवजां मुखेलपणान सवायशीण बायलो पेटयता आसल्यो तरी कांयकडेन कुमारिका चलयांनीय दिवजां पेटोवपाची चाल आसा. कांय गांवांनी गांवचो म्हालो, म्हार, मडवळ, कुमार, गुरव, मेस्त हाणींय दिवजां पेटोवपाचीं आसतात. कांय घराण्यांनी नव्या लग्न जाल्ल्या जोडप्यान गांठवल बांदून जोडयेन दिवज पेटोवपाची चाल आसा. गांठवला निमतान पेटयल्लें दिवज जोडप्यान उंवाळ्ळें तरी उपरांतचें दिवज फकत बायलेनच उंवाळपाची रीत भोवतेककडेन आसा.

घरांत सुवेर-सुतक आसल्यार दिवज पेटोवंक मेळना. तशेंच भश्टे बायलेन वा बाळंत जावन तीन म्हयने जावंचे आदीं बाळंतणीन दिवज पेटोवंक जायना.

ज्या दिसा दिवज पेटोवपाचें आसता त्या दिसा ते बायलेन दीसभर व्रतस्थ रावपाचें आसता. कांय वेळार ती आदल्या दिसासाकून व्रतस्थ रावता, तशेंच निखटो फळाहार घेता.

दिवज पेटोवपी बायलेन सगळो शिरंगार करपाचो आसता. तशेंच भेस, अलंकार आपले परंपरीक पद्‌दतीचो करपाचो आसता.

पयलें दिवज पेटोवपाचो मान कोणाक दिवंचो हें परंपरेन थरिल्लें आसता. कांयकडेन वेळीप – गुरव दिवज पेटोवन आपूण दिवजाकान्नीच्या माथ्यार दवरता. बायलो आपआपल्या मानाप्रमाण उब्यो रावन एके हारीन, हातांत दिवज घेवन उकत्या पांयांनी देवळाचे भोंवताडे काडटात, वा ज्या ज्या देवाची उंवाळणी करपाची आसता थंय वतात. हातांत दिवजां घेवन चलतल्या बायलांक पळयल्यार दिव्यांची एक लांबची लांब माळूच चलता काय दिसता. देवळांत भितर सरतकच भट-गुरव दिवजाकान्नीच्या हातांतलें दिवज घेवन देवाक उंवाळटा आनी परतें दिता. कांयकडेन बायलो स्वताच देवाक उंवाळटात.

नवे व्हंकलेक पयल्या वर्सा दिवजांक लागता तो सगळो साज – शिरंगार, फळावळ, तेल, दिवज, सगळें कुळारच्यान धाडपाची चाल आसा. अंदूचें दिवज दुसऱ्या वर्सा वापरूंक जाता.

दिवजां पेटोवन घरा येतकच आपल्या शेजारा-पाजारा तशेंच सोयऱ्या-धायऱ्यांगेर वचून दिवजांचें उरता तें तेल जाणट्या मनशांच्या माथ्यार घालून तांचे आशिर्वाद घेवपाची चाल आसा. उपरांत तिणें आयाव आसासर दर वर्सा दिवज पेटोवंक जाय. कांय अडचणीक लागून खंयच्याय वर्सा तिका दिवज पेटोवंक मेळ्ळेंना जाल्यार तिच्या घोवान तें पेटोवंक जाता. कांय गांवांनी अशी चालच आसा. तशेंच, एकदां दिवज पेटयलें म्हण्टकच निमाण्या जाग्यार पावमेरेन वात पालोवंक जायना अशें मानतात. देखून, दिवज खूब सांबाळचें पडटा. तेल सोंपून मदींच वात पालोवंची न्हय म्हणून दिवजांकान्नी तेलाचो तांबयो वांगडाच घेवन भोंवतात.

एका काळार गोंयांत दिवजांचो मान आशिल्ल्या घराण्यांत आपले चलयेक लग्न करून दिवपांत लोक भुशण मानताले.

कुमारिकांनी दिवजां पेटोवपाची ज्या घराण्यांनी चाल आसा, तांगेर उत्सवांतल्या ह्या विधीक एका संस्काराचेंच रूप मेळिल्लें आसा. कुमारिकेन पयलें न्हाण येवंचे पयलीं हें दिवज पेटोवपाचें आसता. ताका 'दिवज लावप' अशेंय म्हण्टात. तें एकूच वर्सा पेटयतात. ह्या वेळार तिका पयले फावट कापड न्हेसयतात आनी व्हंकलेवरी शिरंगारतात. दिवजांखातीर लागपी सगळो साज-शिरंगार आनी दिवज-फळावळ मामान धाडपाची आसता. तशेंच, मामान भाचयेक खांद्यार घेवन तिचें दिवज आपणें हातांत घेवन भोवपाचें आसता.

कुमारिकांनी दिवज पेटोवपाची जांगेर चाल आसा अशा घराण्यांनी दिवज पेटोवंचे पयलीं चलयांक न्हाण येत जाल्यार एका काळार तांच्या घरांचेर बहिश्कार घालप जातालें. आजय अशा चलयांचीं लग्नां घडून येवप कठीण जाता. तीं 'देवाक पडनात' अशें मानतात.

दर वर्सा आपल्याक वर्सावळीचें दिवज पेटोवंक मेळचें अशें बायलेक दिसता. ह्या दिवजांत एके तरेचो समाजीक मान ती अणभवता आनी देवाच्या व्रताचोय थंय अंश दिसता. अशें आसलें तरी आधुनीक काळांत दिवजांफाटल्यान आदली भावना दिसना जाल्या. विशेश करून नवी पिळगी दिवजांकडेन एक भोगावळ म्हणून पळयता वा अभिमान बाळगुपासारकी गजाल ना अशें समजता. नवे पिळगेंतल्यो, विशेश करून शिक्षीत बायलो, हातांत पेट्टें दिवज घेवन देवळाक भोंवताडे काडप उणेपणाचें समजतात.

– जयंती नायक

## दिवड :

(विभाग : पृष्ठवंशी; वर्ग : सरपट; गण : स्क्युमेटा, कूळ : कोलब्रेडो, जाती : टायास आनी प्रजाती : म्युकोसस. शास्त्रीय नांव : टायास म्युकोसस).

दिवड हो बीन विखारी सोरोप भारतांत सगळेकडेन दिश्टी पडटा. श्रीलंका, अफघाणिस्तान, बलुचिस्तान, तुर्की, मियानमार, मलेशिया, इंडो-चीन, दक्षिण चीन आनी उदेंतेकडच्या हेर वाठारांनी तशेंच अंदमान जुंव्याचेरूय तो मेळटा.

दिसाचो भोंवपी हो सोरोप, भिजूड आसून तो चड करून सपाट प्रदेशांनी दिश्टी पडटा. केन्ना केन्नाय तो चड उंचायेचेर लेगीत मेळटा. दिवड हो खंयचेय स्थितींत दिश्टी पडपी सदांचोच सोरोप. तो शेतवडी लागसार आशिल्ल्या घरां भोंवतणीं चड मेळटा. तो खंयच्याय रुखाचेर सहज चडूंक शकता. सादारणपणान नर दिवडाची लांबाय सुमार २,२५० मी. मी. आसून शेंपडी ५५०मी. मी. आसता. मादी नरापरस मातशी मोटवी आसता. तिची लांबाय सुमार १,८०० मीमी. इतली आसता.



दिवडाचे रंग वेगळेवेगळे आसतात. पूण भारतांत सांपडपी चडशे दिवड पुडी कोराचे, काळसर पाचवे, हळदुवे वा तांबशा कोराचे आसतात. फाटीचीं मुखावयलीं खवळां एकाच कोराचीं आसतात. फाटल्या भागार काळे – धवे पटे आसतात. ओंटांच्या देगांनी आनी मानेभोंवतणचीं खवळां काळीं आसतात. पोट धवशें वा हळदुवसार आसता.

दोळे व्हड आनी वाटकुळे आसतात. ते सदांच चकचकतात. तकली आनी मान हांचो फरक स्पश्टपणान जाणवता. ताची तकली त्रिकोनी आसून ती मानेपरस मोटी आसता. नाकाच्यो पुडयोय व्हड आसतात. वयर आनी सकयल मेळून सु. २०-२४ दांत आसतात.

दिवड हो मास खावपी प्राणी आसून हुंदीर, घूस, बेबो ही ताची मुखेल खावड. तो रुखाचेर चडून सवणीं आनी तांचीं तांतयांय खाता. दिवडाक तांतयांचो खूब घोस्त. हाका लागून साबार खेपे तो कुकडांच्या घुडांत मेळटा.

गीम हो ताचो फळपाचो तेंप. दिवड हो तांतयां घालपी प्राणी आसून, तो फावटीक ६ ते १४ तांतयां घालता. पावसाळ्यांत पिलां तांतयां फोडून भायर येतात.

दिवड जाता तितली मनशाची जाग टाळटा. मनशाची जाग नासता थंय तो मेकळेपणान भोंवत आसता. तो धोलींनी, खांचींनी आनी झिलींनी लिपून रावता. दिवड हें एक शिटूक जिवाणें. ताच्या धांवपांत सुमाराभायली गती, पेंवपांत नेट आनी झाडाचेर चडपांत कळाशी आसता. तो भिजूड सोरोप आसलो तरी, कोणूय ताका धरीत जाल्यार तो रोखडोच ताका चाबता. भक्ष वा दुस्मान ताचेर हल्लो करीत जाल्यार तो तांकां आपले शेंपडेचें वेश्टण घालून तांचे आड झुजता. दिवडाविशीं साबार समजुती घोळटात.

हुंदीर आनी घुशी हें ताचें मुखेल खाण आशिल्ल्यान, अननस वा हेर फळांच्या मळ्यांनी ताका मुद्‌दम सोडटात. इंडो - चीन आनी भारतांतल्या कांय जमातींचे लोक दिवडाचें मास व्हडा उमेदीन खातात. दिवडासावन मनशाक कसलोच धोको ना आनी तो फायदेशीर प्राणी आशिल्ल्यान भारत सरकार ही जात सांबाळून दवरपाखातीर खूब यत्न करता. कांय प्रदेशांनी दिवड मारप हो गुन्यांव थरता. हाचेखातीर गुन्यांवकारी मनशाक दंड फारीक करचो पडटा.

– डॉ. एस. आर. गनिहार

**दिवाकर :** (जल्म : १८ जानेवारी १८८९, पुणें; मरण : १ ऑक्टोबर १९३१, पुणें).

मराठी साहित्यांत 'नाट्यछटा' ह्या नाट्यप्रकाराक म्हत्वाची सुवात मेळोवन दिवपी लेखक.

दिवाकराच्या बापायचें नांव गोविंद बळवंत दिवाकर. पोसको दितकच दिवाकराचें नांव शंकर काशिनाथ गर्गे जालें. पूण 'दिवाकर' ह्या नांवानूच ताणें आपली वाङ्मय निर्मिती केली.

दिवाकराचें मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण पुण्याक जालें. १९०८ वर्सा तो स्कूल फायनल ही मॅट्रिकेबरोबरची परिक्षा पास जालो.

सुरवातेक कारकून म्हणून पोलीस खात्यांत ताणें नोकरी केली. फुडें १९१२ सावन ताणें डिप्रेस्ड क्लासीस मिशनच्या सँट्रल प्रायमरी स्कुलांत शिक्षक म्हणून नोकरी करतकच १९१६ वर्सासावन पुण्याच्या नूतन मराठी विद्यालयांत शिक्षक म्हणून काम केलें.

१९१० वर्सा फर्ग्युसन कॉलेजांतलो इंग्लिशीचो प्राध्यापक वासुदेवराव पटवर्धन हाचेकडेन वळख जायतपसून दिवाकराचे वाङ्मयीन जिणेक सुरवात जाली. शॅली, बायरन, वर्ड्सवर्थ हांच्या काव्याचो अभ्यास आनी टॉलस्टॉय, इब्सेन, गॉल्झवर्दी, मेटरलिंक, हाउप्टमान ह्या युरोपी लेखकांच्या साहित्याचें दिवाकरान वाचन केलें. वाचना वांगडाच वाङ्मयाची चर्चा करपाकूय ताका आवडटाली. शेक्सपियर आनी ब्राउनिंग हांचो दिवाकराचेर बरोच प्रभाव पडलो. ब्राउनिंगाच्या नाट्यात्मक एकभाशीत (ड्रॅमॅटीक मॉनॉलॉग) ह्या नाट्यप्रकारा वयल्यान दिवाकराक नाट्यछटा बरोवपाची प्रेरणा मेळ्ळी, आनी १९११ वर्सा आपली 'महासर्प' ही पयली नाट्यछटा बरयली. १९११ ते १९३१ ह्या काळांत वट्ट ५१ नाट्यछटा ताणें बरयल्यो.

'महासर्प' हे पयलेच नाट्यछटेंत दिवाकर मनशाच्या क्रौयाविशीं दुश्ट, विखयाळ्या मानपी महासर्पाक निसर्गाचेर अत्याचार करूं नाका अशें सांगता. 'एका हलवायाचे दुकान', 'ए! फारच बोवा!', 'म्हातारा इतुका न...', 'कार्ट्या! अजून कसे तुला जगातले ज्ञान नाही', ह्या नाट्यछटांतल्यान दिवाकरान मनशाच्या सभावांतलो विरोधाभास दाखयला.

उलोवपी पात्रांचे अंतरंग उण्या उतरांनी उक्तावप आनी तातूंतल्यान जिविताचेर मार्मिक भाश्य करपाचें सामर्थ्य ताच्या नाट्यछटांनी आसा. 'पंत मेले राव चढले', 'फाटलेला पतंग', 'वर्ड्सवर्थचे फुलपाखरू' ह्यो ताच्यो नाट्यछटा ते नदरेन उल्लेख करपासारक्यो आसात.

तशेंच 'भरचौकांत', 'मी माझ्याशीं', 'कारकून', 'ऐट करू नकोस', 'असे केल्याशिवाय जगात भागत नाही', 'कारण चरित्र लिहायचे आहे', 'तेवढेच ज्ञान प्रकाशात!', 'चिंगी महिन्याची झाली नाही तोच -' ह्यो ताच्यो नाट्यछटा लेगीत खूब गाजल्यो.

दिवाकरान ब्राउनिंगाच्या ल्हान नाट्यगितांचो आदर्श आपलेमुखार दवरून मराठी भाशेंत नाट्यछटा बरयल्यो तरी आशयाक आपल्या अणभवाची आनी जिविताच्या तत्त्वज्ञानाची जोड दिवन नाट्यपूर्ण रितीन आशय उक्तायला. ताच्या नाट्यछटांतल्यान तत्कालीन समाजजिणेतलीं तासां व्यक्त जाल्यांत. हलवाई, मसंडेंतल्या शेणयांचो वेपारी, कवी, सुदारक, हेडक्लार्क, नट, शिक्षक, बुद्‌दिवादी, चिंगीची भोळी आवय, सावकार, विधवा, कारकून, तरणाटो, आपले मेल्ले धुवेची इस्टेट खावपाक सोदपी म्हातारो ह्यो व्यक्ती पिंतारतना ताची भास, सभाव, खाशेली उतरावळ, म्हणी हांचो दिवाकरान ज्युस्ताजुस्त उपेग केला. हाकाच लागून नाट्यछटा म्हळ्यार दिवाकर अशें समीकरण मराठी साहित्यांत जावन गेलां.

– प्रल्हाद वडेर

**दिवाणी कायदो :** अंतर्गत राज्यकारभारासंबंदीच्या कायद्याचो एक वर्ग. रोमन आनी जर्मन परंपरांच्या प्रभावाक लागून युरोप खंडांत जे कायद्यांचे नेम तयार केले, तांकां सुरवातीक सादारणपणान 'दिवाणी कायदे' अशें म्हण्टाले. ह्या कायद्यांची घडण धर्मोपदेशकांविशींच्या, जहांगिरी विशींच्या आनी हेर थळाव्या संस्कारांविशींच्या प्रभावांतल्यान जाल्ली.

अकराव्या ते पंदराव्या शेंकड्या मजगतीं इंग्लंडच्या कायद्याचेर रोमन कायद्याचो खूबच प्रभाव पडिल्लो. सोळाव्या शेंकड्यांतल्या रोमन कायद्याच्या जाणकारांचो इंग्लंडचे राजा आनी हेर उंचेल्या पांवड्याचे अधिकारी प्रशासनाखातीर सदांच पालव घेताले. तातूंतल्यानूच दिवाणी कायद्याची निर्मिती जाली.

रोमन कायद्यांचो 'ज्युस सिव्हिले' नांवाचो जो भाग आसा, ताचो

उल्लेख करपाखातीर इंग्लिशीत Civil Law हो शब्दप्रयोग वापरतात. रोमन कायदयाचे 'ज्युस सिव्हिले' आनी 'ज्युस जेंटियम' अशे दोन भाग आसात. तातूंतले 'ज्युस सिव्हिले' नेम फकत रोम शारांतल्या नागरिकांक म्हळ्यार रोमन लोकांक लागू आशिल्ले. रोमन साम्राज्यांतल्या रोमन सोडून हेर लोकांक 'ज्युस जेंटिअम' हे कायदयाचे नेम लागू आशिल्ले. ज्युस सिव्हिलेचो आस्पाव आशिल्ल्या रोमन कायदे पद्दतीचो प्रभाव जगांतल्या कितल्याशाच देशांच्या आर्विल्ले कार्यपध्दतीचेर पडला. अशा देशांमजगतीं इंग्लंड आनी ब्रिटीश साम्राज्यांतले देश सोडल्यार युरोप आनी अमेरिकेंतल्या चडशा देशांचो तेचप्रमाण आफ्रिकेंतल्या कांय देशांचो आस्पाव जाता. ह्या देशांचे कार्यपद्दतीचेर दिवाणी कायदयाचो व्हड प्रभाव पडिल्लो दिसून येता.

दिवाणी कायदो हो शब्दप्रयोग खुबदां आंतरराश्ट्रीय कायदयापरस वेगळो हे नदरेन म्हळ्यार देशांतले भितरले कायदे पद्दतीचो निर्दशक म्हणून वापरतात. कितल्याशाच देशांत ख्यास्तीचे विशय सोडून हेर कायदया विशयांचें व्यापक अशें संहितीकरण (Codification) केलां. त्या संहितीकरणाचो उल्लेख लेगीत 'दिवाणी कायदो' म्हणून करतात. अशे संहितेंत नागरिकत्व, लग्न, घटस्फोट, संपत्ती दिवप आनी घेवप आदी कायदया विशींच्यो विंगड विंगड तजवीजो केल्ल्यो आसात. देखीक - पुर्विल्ल्या बॅबिलोनियांत हामुराबीची संहिता आशिल्ली. रोमांत जस्टिनियनाची संहिता आशिल्ली. फ्रांसांत नेपोलियनाची संहिता आशिल्ली. इंग्लंडांत भागीदारी, वस्तू विकप, दर्या विमो आदी विशयांचेर संहिता आशिल्ली. ब्रिटीश हिंदुस्थानांत वा भारतांत दिवाणी वा फौजदारी, प्रक्रिया, ख्यास्त दिवपाचे नेम, संपत्तीचें हस्तांतरण, पुरावो, हिंदू लग्नां, आदी वेगवेगळ्या विशयांचेर नेम थारायल्ले.

राश्ट्रांतल्या अंतर्गत कायदयाचे (Common Law) पद्दतीप्रमाण दोन भाग जातात. फौजदारी (Criminal) वा ख्यास्तीविशींचो कायदो आनी दिवाणी (Civil) कायदो. फौजदारी आनी दिवाणी ह्या विभागांतल्या कायदयांच्या भेदाचो उगम तर्कशास्त्रांत नासून वैचारीक अपघात, योगायोग आनी परंपरा हांचेर आदारिल्लो आशिल्ल्यान दिवाणी आनी फौजदारी कायदयांतलो फरक कळटा. पूण तांची शास्त्रशुध्द व्याख्या मांडप तशें भोव कठीण आसा.

सादारणपणान ज्या मुखेल कायद्याचो भंग ख्यास्त दिवपासारको नासून तेविशी नुकसान भरपाय, घटस्फोट, फेरस्थापना (restitution), निश्कासन (eviction) आनी हेर पद्दतींनी उपाययेवजण करूं येता, अशा कायद्याक 'दिवाणी कायदो अशें म्हण्टात. दिवाणी कायदयाप्रमाण नुकसानभरपाय दिवपाचो हुकूम चालीक लायतना मुद्दम आडखळी हाडप वा ताका विरोध करप, हें कर्तूप दिवाणी कायदयाप्रमाण ख्यास्त करपाक पात्र थारता.

वेगवेगळ्या कायदेतज्ञांनी कायदयाच्या दिवाणी आनी फौजदारी अशा दोन भागांतलो भेद दाखोवपी विंगड विंगड व्याख्या दिल्ल्यो आसल्यो तरी तर्कशास्त्राच्या कसाप्रमाण तातूंतल्यो सगळ्योच व्याख्या पुराय आसात, अशें म्हणप समा न्हय. देखून वयर दिल्ली व्याख्या सदळपणान दिल्ली आसा.

दिवाणी आनी फौजदारी ह्या कायदयाच्या दोन विभागांतल्या भेदाचो प्रभाव न्यायालयां आनी प्रक्रिया कायदयाचेर पडिल्लो दिसून येता. देखीक - राश्ट्रकुलांतल्या कांय देशांत सकयल्या पांवड्यावेल्या न्यायालयांत दिवाणी न्यायालय आनी फौजदारी न्यायालय तशेंच ख्यास्त प्रक्रिये विशींचो कायदो आनी दिवाणी प्रक्रिये विशींचो कायदो असो भेद केल्लो दिसून येता.

गोंयांत पुर्तुगेज Civil - Code अस्तित्वांत आसा. ह्या कायदयाप्रमाण लग्न जावप, घटस्फोट घेवप, मृत्युपत्रां, वारसदारीचे हक्क, भुरगें पोसकें घेवप, मालमत्तेचें संयुक्तीकरण, मालमत्ता विकपाक वा ताचो विलो लावपाक बंदी ह्या संबंदान वेगवेगळ्यो तजविजो केल्ल्यो आसात. गोंयच्या ह्या दिवाणी नेमांत आनी भारतांतल्या हेर राज्यांतल्या दिवाणी कायदयांत खूबच भेद आसा. गोंयच्या दिवाणी कायदयाचें हेंच तर खाशेलपण जावन आसा.

– ॲड्. सुहास थळी

**दिवाळी :** हिंदूंची एक परब. हाका दिव्याउत्सव अशेंय म्हणप जाता. पुराय भारतांत हो सण मनयतात. आश्विन वद्य त्रयोदशीसावन कार्तिक शुध्द द्वितीयेमेरेन सलग पांच दीस वेगवेगळ्यो खोसदिण्यो धर्मीक घडणुको घडिल्ल्यो आशिल्ल्यान उमेद उक्तावपाच्या उद्देशान दिवे लावन हो सण मनोवप जाता, देखुनूच ह्या सणाक दिवाळी ह्या नांवान वळखतात.

आर्यकाळापसून ह्या सणाक सुरवात जाली अशें म्हण्टात. आर्य लोकांमदी पार्वण, आश्वयुजी आनी आग्रहायनी हे तीन यज्ञ करताले. ह्या तीनय यज्ञांचें एकठांय रुपांतर जावन हो उत्सव सुरू जालो. पार्वण यज्ञ म्हळ्यार पाकयज्ञ. हो पितरांखातीर आसतालो; आश्वयुजी हो यज्ञ इंद्र आनी ऋशीदेवता हांकां संबोदून करताले. तेचपरी आग्रहायनी हो यज्ञ संवत्सर समाजीक उद्देशान आसतालो. संवत्सर म्हळ्यार वर्स. वर्स सोंपतकच जो यज्ञ करतात. ताका अग्र+हायन= आग्रहायनी अशें म्हण्टात.

कांय लोकांच्या मतान, चवदा वर्सांचो वनवास सोंपोवन राम सीतेवांगडा ह्या दिसा अयोध्येक परत आयिल्लो. त्या दिसाच्या आनंदानिमतान अयोध्येंतल्या लोकांनी दिव्यांउत्सव केलो आनी तेन्नाच्यान दर वर्सा हो उत्सव जावंक लागलो. हाचेआदी पुर्विल्ल्या काळांत हे परबेक वेगवेगळ्या नांवांनी वळखताले. इ. स. १ ते ४०० ह्या काळांत, ही परब 'यक्षरात्री' ह्या नांवान वळखताले. वात्सायनान आपल्या कामसुत्रांत हें नांव वापरिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. ह्याच काळांत हे परबेक 'माहितांनी' हेंय नांव वापरिल्ल्याचे कांय उल्लेख त्या काळांतल्या ग्रंथांनी मेळटात. इ. स. ६०० च्या सुमाराक ह्या सणाक 'दीप प्रतिपदुत्सव' अशें म्हण्टाले. त्या वेळार ह्या सणाक द्युत खेळपाची प्रथा आशिल्ली. इ. स. ८०० च्या सुमाराक काश्मीरांत आनी हेरकडेन ह्या सणाक 'दीपमाला' अशें म्हण्टाले. नीलमत पुराणांत हो उल्लेख आसून तातूंत ह्या सणाचें विस्तारान वर्णन केल्लें आसा. सोमदेव सूरि (इ. स. ९४९) हाणें बरयल्ल्या 'यशस्तिलक चम्पू' नांवाच्या ग्रंथांत दिवाळेचीं वर्णनां केल्लीं मेळटात. इ. स. १०००त भारतांत आयिल्ल्या सिध्द आल्बुरेनी ऊर्फ अबूरहन ह्या विद्वानाच्या इतिहासीक विवेचनांत तेचपरी १११६ च्या सुमाराक बरयल्ल्या 'आकाश भैरव' 'कल्प' तशेंच त्या काळांतल्या शिलालेखांत दिवाळेचो उल्लेख मेळटा.

बाराव्या शतमानांत जावन गेल्ल्या महानुभाव पंथाचो संस्थापक चक्रधर हाच्या शिश्यांनी बरयल्ल्या 'लीळा चरित्र' ह्या ग्रंथांत, दिवाळेच्या 'तैलाभंगस्नान' आनी उंवाळणेच्या सुवाळ्याचें वर्णन आसा. हाचेभायर

ज्ञानेश्वरींत तेचपरी ताचे आदल्या मराठी महानुभावी गद्य आनी पद्य साहित्यांत ह्या सणाचीं पुरायेन वर्णनां मेळटात.

मोगल काळांत मुसलमानी प्रशासक तशेंच मुसलमान लोक देशव्यापी परबेंत सामील जाताले. ह्या काळांतलो नामनेचो इतिहासकार अबुल फाजल हाणें बरयल्ल्या 'ऐन-ई-अकबरी' ह्या नामनेच्या इतिहासीक ग्रंथांत हो सण देशांत सगळ्यांत व्हड सण मानताले अशें बरोवन दवरलां.

पुराणांत दिवाळेविशीं कथा आसा ती अशी - पुर्विल्ल्या काळांत बळी नांवाचो राजा खुबूच बळिश्ट जाल्लो. ताणें पुराय धर्तरेचेर आनी सर्गाचेर जैत मेळयल्लें. ताचो प्रतिकार करपाक, विष्णुन वामनाचें रुप घेतलें आनी ताचेकडेन त्रिपादभूंयेचें दान मागलें. बळी राजान तें मान्य करतकच विष्णुन दोन पावलांनी धर्तरी आनी सर्ग व्यापलो आनी तिसरें पावल बळीच्या सांगणेवयल्यान ताच्याच मस्तकार दवरून ताका पाताळांत धाडलो. हें सगळें आश्विन वद्य त्रयोदशी ते उमाशे मेरेन घडलें. उपरांत वामनान बळीक वर मागूक सांगलें. तेन्ना बळीन असो वर मागलो, 'जो कोण हे तीन दीस यमाप्रीत्यर्थ दीपदान करतलो ताका यमयातना भोगच्यो पडच्योनात. ताच्या घरांत सदांच लक्ष्मीचो वास आसतलो'. तेन्ना वामनान तथास्तू म्हळें. तेन्नाच्यान वेगवेगळेकडेन पणत्यो पेटोवन, मळबांत आकाशदिवे चडोवन दिपोत्सव मनोवपाची चाल सुरू जाली.

आगम काळांत आश्विन उमाशेक महावीर ह्या निमाण्या तिर्थंकराचें निर्वाण जालें. ह्या दिसा जैनपंथीय लोक जीनेश्वराची पुजा करून दिव्यां उत्सव मनयतात. ह्या दिसासावन जैन लोकांचें 'वीर - निर्वाण - संवत' हें वर्स सुरू जाता.

इतिहासीक काळांत, सम्राट अशोकाच्या जैताकडेनय ह्या उत्सवाचो संबंद लायिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

आश्विन वद्य चतुर्दशीसावन कार्तिक शुध्द प्रतिपदेमेरेन तीन दिसांक दिवाळी अशी संज्ञा आसा, अशें भविश्योत्तर पुराणांत सांगलां. ह्या तीन दिसांमदीं स्वाती नक्षत्र युक्त जो दीस आसा तो चड पुण्यकारक अशें म्हळां. दिवाळेक कौमुदी महोत्सव अशेंय म्हळां. कु म्हळ्यार धर्तरी आनी मुद् म्हळ्यार खोशी जावप. धर्तरेवयल्या लोकांक आनंद दिवपी जो उत्सव तो कौमुदी महोत्सव अशी व्याख्या आसा. ह्या उत्सवांत कुमुद म्हळ्यार उदकांत फुलपी कमळ हें बळीक ओंपपाची चाल आसा.

ह्या सणाक धर्मीक म्हत्वा वांगडाच समाजीक म्हत्व आसा. ह्या वेळार नवें धान्य तयार जाल्लें आसता, देखून हो शेतीविशींचो खोशयेचो उत्सव अशेंय म्हणप जाता. धनत्रयोदशी, नरक चतुर्दशी, लक्ष्मीपुजन, बलीप्रतीपदा आनी यमद्वितीया म्हळ्यार भावबीज ह्या पांच दिसांचें म्हत्व सांगपी जायत्यो कथा पुराणांत मेळटात. धनत्रयोदशीच्या आदल्या दिसा गोवत्स द्वादशी आसता, हाका 'वसूबारस' अशेंय म्हण्टात. ह्या दिसा सवायशिणी बायलो गायेची पुजा करतात. आश्विन वद्य तिरोदशीक 'धनत्रयोदशी' म्हण्टात. ह्या दिसा यमराजान आपल्या दुताक 'ह्या दिसा जो दीपदान करतलो ताका अपमरण येवंचें ना' अशें सांगिल्ल्याची कथा आसा. देखून ह्या दिसा दीसभर उपास करून सांजेच्या वेळार विष्णु - लक्ष्मी - कुबेर, गणेश, धन आनी द्रव्यनिधी हांचें पुजन करतात. ह्याच दिसा आयुर्वेदाचो प्रवर्तक धन्वन्तरी हाचो जल्म जाल्लो अशीय कथा आसा. वैज लोक ह्याच दिसा ताचो जल्मदीस मनयतात.

आश्विन वद्य चतुर्दशीक नरकचतुर्दशी अशें म्हण्टात. ह्या दिसा त्रैलोक्याचेर घुरी घालपी आनी सुमार १६,००० चलयांक बंदी करपी नरकासूर ह्या राकेसाक कृष्णान जिवो मारलो. मरतना नरकासुरान श्रीकृष्णाकडेन असो वर मागलो की जो कोण ह्या दिसा मंगलस्नान करतलो ताका नरकाची पिडा जावंची ना. श्रीकृष्णान तसो वर दिलो. देखून त्या दिसा सुर्योदय जावंचे आदीं आंगाक तेल लावन उपरांत उटणें लावन हून उदकान न्हातात, हाका मंगलस्नान म्हण्टात. मंगलस्नान जाले उपरांत दिवे लावन आनंदोत्सव मनयतात. ह्या दिसा बायलो आपल्या घोवाक उंवाळटात. कांय कडेन उंवाळणी जाले उपरांत कारीट फोडून जिबेक लावपाची चाल आसा. सत्यभामेन (श्रीकृष्णाची बायल) श्रीकृष्णाच्या आदारान नरकासुराक मारलो अशीय एक कथा आसा.

आश्विन उमाशेक लक्ष्मीपूजन करपाची चाल आसा. पुराणांत अशें सांगला, ह्या दिसा लक्ष्मी सगळेकडेन भोंवता. जंय निवळसाण सोबीतकाय, रसीकताय दिसता तशेंच ज्या घरांत चारित्र्यवान, कर्तव्यदक्ष, संयमी, धर्मनिश्ठ, देवभक्त, क्षमाशील दादले आनी पतिव्रता बायलो रावतात थंय लक्ष्मी वास करता.

देखून ह्या दिसा सांजेच्या वेळार थरावीक म्हुर्ताचेर लक्ष्मी कुबेराची पुजा करतात. चौरंगाचेर अक्षदांचें अश्टदल कमळ काडून ताचेर लक्ष्मीचे मुर्तीची स्थापना करतात.

नमस्ते सर्व देवानां वरदासि हरे:प्रिया
या गतिस्त्वत्प्रपन्नानां सा मे स्यातव दर्शनात ॥

हो मंत्र म्हणून लक्ष्मीची पुजा करतात. लक्ष्मीचे मुर्तीचे कुशीक कुबेराची प्रतिमा दवरून -

धनदाय नमस्तुभ्यं निधिपद्माधिपाय च ।
भवन्तु त्वत्प्रसादेन धनधान्यदिसम्पदः ॥

हो मंत्र म्हणून पुजा करतात. उपरांत ह्या देवांक लवंगां, वेलची साकर घाल्ल्या गायच्या दुदाच्या खव्याचो निवेद्य दाखयतात. ल्हायो, चिरमुल्यो लक्ष्मीक अर्पण करतात आनी उपरांत सगळ्यांक वांट्टात. ह्या दिसा वेपारी लोक लक्ष्मीपुजेवांगडा आपले वेपारी सामुग्रेची, लेखणी, शाय, हिशोबाची चोपडी हांचीय पुजा करतात. कांय वेपारी लोक होच आपलो वर्सारंभ अशें मानतात.

कार्तिक शुध्द प्रतिपदा हिका बलिप्रतिपदा अशें नांव आसा. ह्या दिसासावन विक्रम संवत्सराक सुरवात जाता. देखून हाका दिवाळी पाडवो अशेंय म्हण्टात. हिंदूंच्या साडेतीन शुभ म्हुर्तांतलो हो अर्दो म्हूर्त. ह्या दिसा सकाळींच सगळे लोक अभ्यंग स्नान करतात. बायलो आपल्या घोवाक उंवाळटात. नवे कपडे घालून देवळांत वतात आनी उपरांत एकामेकांगेर वचून नव्या वर्साचीं आनी दिवाळेचीं परबीं दितात. ह्याच दिसा गोवर्धन पुजा करतात. गोठ्यांत शेणाचो पर्वत करतात. शेणाचें गोकूळ करतात, ताची पुजा करतात. ह्या दिसा गोठ्यांतल्या गोरवांची पुजा करून तांकां पोळे खावंक घालतात. हो दिवाळेचो मुखेल दीस मानतात.

कार्तिक शुध्द द्वितियेक भावबीज हें नांव आसा. हिका यमद्वितीया अशेंय म्हण्टात. ह्या दिसा यम आपले भयणीगेर गेल्लेकडेन तिणें ताका उंवाळिल्लो आनी आनंद उक्तायल्लो. तेन्नाच्यान भयणीन भावाक उंवाळपाची चाल सुरू जाली.

दिवाळी हो म्हत्वाचो सण आशिल्ल्यान तो मोटे उमेदीन मनोवप जाता. ह्या दिसा घरांघरांनी आकाशदिवे लायतात, पणट्यो पेटोवन दिव्यांची आरास करतात. शिव, विष्णु, राम वा पितर हांचेखातीर हो

आकाशदिवो आश्विन शुध्द एकादस ते कार्तिक शुध्द एकादस मेरेन लावपाची चाल आसा. वेगवेगळीं गोडशीं आनी फराळ करून आप्तइश्टांक वांट्टात.

भारतांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांनी हो उत्सव वेगवेगळ्या तरांनी मनयल्लो दिसता. पंजाबांतले लोक रामराज्याभिशेकाचे यादीक दिवाळेचो उत्सव मनयतात. उत्तरेंतय पांच दिसांची दिवाळी आसता. थंय लक्ष्मीन नरकासुराक मारलो आनी श्रीविष्णुन महाबळीक पाताळांत गाडलो देखून दीपोत्सव मनयतात. उत्तरेंतले वैष्णव श्रीरामान रावणाचो नाश केलो. देखून दिवाळी मनयतात. थंय अशीय एक दंतकथा आसा की कृष्णान नरकासुराक मारतकच ताका असो वर दिलो की ताच्या मर्णानिमितान धर्तरेचेर दीपोत्सव मनोवप जातलो आनी त्या वेळार लोकांच्या हेंय लक्षांत उरतलें की, वायट प्रवृत्ती बरी न्हय. नरकासुराची हत्त्या सत्यभामेन केली अशी थंय समजूत आसा. थंय पयल्या दिसा म्हळ्यार तिरोदशी दिसा लक्ष्मीपुजा आसता.

दक्षिणेंत दोनच दीस हो सण मनयतात. नरकासूर हो धर्तरेपसून जल्माक आयला असो थंय समज आसा. थंय ह्या दिसा सूर्य उदेवंचे आदीं न्हावप म्हळ्यार पुण्यकारक मानतात. तमीळनाडूंत कांय लोक ह्या दिसा उदेवंचेआदीं दोन फावटी न्हावन घेतात. आंध्र प्रदेशांत लोक घरामुखार एक माचण बांदून, ताचेर पणट्यो लायतात आनी बायलो ताचेर बसून रातभर लक्ष्मीच्या येवकाराचीं पदां म्हण्टात. कार्तीक शुध्द प्रतिपदे दिसा म्हळ्यार बलिप्रतिपदेक बळीराजाचे यादीक बळीची प्रतिमा तयार करून गोठ्यांत दवरतात. आनी तिची पुजा करतात. गाय - बैलांक रंग लावन माळो घालून सजयतात. कांयकडेन दिवाळे दिसा मशाली घेवन नाचपाची चाल आसा.

महाराष्ट्रांत कांयकडेन नरकचतुर्दशी दिसा नरकासुराची शेणाची आकृती करून तिचेर घरांतलो सगळो कोयर ओततात आनी ते राशीर एक पयसो दवरतात. जो मनीस हें करता ताका इनाम दितात.

ह्या दिसा कर्नाटकांत शक्तीचे खेळ खेळटात. राजस्थानांत दिवाळी हेरकडेन जाता तशीच जाता. पूण ताचेभायर 'हरड'ची पुजा करून 'हीड' (ज्योत वा प्रकाश) कडेसंबंदीत नांवाचें एक लोककाव्य थंयची गांवगिरी जनता गायता. पुराय राजस्थानांत आनी माळव्यांत ही हीडपुजनाची चाल आसा. एके व्हड पणटेन तिळाच्या तेलांत कापसाची वात घालून ती पणटी सजयतात. आनी लक्ष्मीपुजे उपरांत त्या दिव्याची पुजा करतात. उपरांत एका कोंड्यार वा चेपटे बडयेर हो दिवो दवरून आपल्या परिचीत लोकांकडेन घेवन वतात. राजस्थानांत कांयकडेन दिवाळेक प्रतिपदे दिसा बैलांक उंवाळपाची चाल आसा.

नेपाळ हें हिंदू राश्ट्र आशिल्ल्यान थंयूय दिवाळी मनोवप जाता. दिवाळेक थंय यमपंचक, तिहार वा स्वान्ति नाखा म्हण्टात. यम ह्या वेळार आपली भयण यमुना हिच्या घरा गेल्लो आनी पांच दीस तिगेर राविल्लो म्हणून हे परबेक यमपंचक अशें म्हण्टात. पूण परबेच्या पयल्या दिसा कावळ्यांची पुजा करतात. देखून ह्या दिसाक काक तिहार अशें म्हण्टात. तिसऱ्या दिसा लक्ष्मीपूजन आनी चवथ्या दिसा लोक कृष्णाची आनी बैलांची पुजा करतात. नेपाळांतले नेवार जातीचे लोक ह्या दिसाक 'हमपूजा' म्हणून वळखतात. हो दीस नव्या वर्साचो दीस म्हणून मनयतात. दिवाळेच्या दुसऱ्या दिसा दादले 'देऊंसी' (शुभशकून) नांवाची परब मनयतात. भाऊबीजे दिसा नेपाळांत भाई टीका वा किजा पुजा मनयतात.

सिंध प्रांतांतले लोक दिवाळे दिसा हातांत मशाली घेवन गांवाभायर वचून लोकनृत्य करून आपली दिवाळी मनयतात. शारांतले लोक नव्या वेपाराक वा नवें खाते बरोवपाक ह्याच दिसा सुरवात करतात.

बंगालांत लक्ष्मीच्या जाग्यार कालीमातेची पुजा करतात. तरणाट्यो चलयो त्या दिसा न्हंयेत दिवे सोडटात. भावबिजेक बंगालांत भातृद्वितीया म्हण्टात. बंगालच्या नडिया जिल्ह्यांतल्या बिरही गांवांत त्या दिसा भातृद्वितीया जात्रा भरता. भाऊबिजे दिसा भरपी ही एकसुरी जात्रा.

ओरिसांत रातच्यो दीपमाळो लावन दिवाळी मनयतात. पूण हो दीस श्राध्दाचो दीस म्हणूनूय मनयतात आनी त्या दिसा पुजेचें श्राध्द करतात. आंध्र प्रदेशांत नरकचतुर्दशी दिसा फांतोडेर अभ्यंगस्नान करतात. दिवाळे दिसा थंय अतिरसालु वा अरिसेलु नांवाचें गोडाचें गोडशें करतात.

हैदराबादेक कृष्णकथा आनी बळिराजा, वामन हांची कथा चड प्रचलीत आसा. ह्या दिसा थंय रेड्यांचें वा म्हशींचें झूज लावपाची प्रथा आसा. अमृतसराक दिवाळी मनोवपाक शीखांनी आपलो सवो गुरू हरगोविंद सिंहाच्या काळापसून सुरवात केली. ताणें ग्वाल्हेरच्या किल्ल्यांत ५२ राजांची राखण करून जैत मेळयल्लें आनी अमृतसराक आयलो. त्या दिसा सगळ्या लोकांनी नगरांत दिवे लावन ताका येवकार दिलो. तो दीस दिवाळेचो आशिल्ल्यान शीखय तेन्नाच्यान दिवाळी मनोवंक लागले.

गुजरातांत द्वादशीसावन दिवाळेक सुरवात जाता. ह्या दिसाक 'वाघपारान' अशें म्हण्टात. ह्या दिसा वागाच्या चित्राची रांगोळी घालप हें तांचें खाशेलपण आसता. चतुर्दशी दिसा दरेक बायलेन दोळ्यांत काजळ घालप अशी थंय चाल आसा. ह्या दिसा सगळीं भुरगीं एकठांय जावन 'सपरे पर दहाडे सबरस' अशें म्हणीत मीठ विकूंक भोवतात. दरेका घरांतलो लोक नव्या वर्साचो शुभशकून मानून तांचेकडलें मीठ विकतें घेतात. हे पद्दतीक 'मेरमे' म्हण्टात.

म्हैसुरांत दिवाळे दिसा लोक आपलें घर वेगवेगळे तरेन आनी कलापूर्ण रितीन सजयतात. दिवाळे दिसा फांतोडेर बायलो दादल्यांक आनी भुरग्यांक पाटाचेर बसोवन कृष्णान नरकासुराचेर कशें जैत मेळयलें हाचें वर्णन करपी पदां म्हणीत तांच्या आंगाक उटणें लायतात. न्हावपाचो कार्यक्रम जातकच मागीर उंवाळपाचो कार्यक्रम जाता. थंय न्हावपाच्या कार्यक्रमाक गंगास्नानाइतलें म्हत्व आसा.

हिमाचल प्रदेशांत दिवाळे दिसा आंगण निवळ करून ताका शेण, माती आनी गोलू (धवी माती) लावन सारयतात. उपरांत आंगणांत काळे आनी तांबडे मातयेन वाटकुळे चवकोनी माटव (आकृत्यो) काडटात. तातूंत वेलबुट्टी वा पशुपक्षांची चित्रां काडटात. सूर्य अस्ताक वचच्या वेळार त्या चवकोनी माटवाचेर लाकडी पाट दवरून ताचेर पणट्यो लावन ते दिवे पितरांक अर्पण करतात. उपरांत हे दिवे घरांत सगळेकडेन दवरतात. उपरांत गोडशें वांटप, आशिर्वाद घेवप, 'द्योद्यालिये द्यो' गीत गायत, नाचप हे कार्यक्रम जातात. ह्याच दिसा नवान्न लायतात, जुगार खेळून फुडलें वर्स कशें वतलें हाचो अदमास काडटात. बायलो ओलिया (ल्हान ल्हान आयदनां) धवे मातयेन रंगोवन तांचेर चित्र काडून ताची पुजा करतात. फुडें दोन दिसां उपरांत आपले मानिल्ले भयणीकडेन अदलाबदल करतात.

मध्य भारतांत दिवाळेचे सगळे दीस हेरकडेन मनयतात तशेच मनयतात. पूण दुसऱ्या दिसा गोरधन (गोवर्धन) पुजा करतात. आपल्या गोरवांच्या आंगाक आनी शिंगांक तेल लायतात. तांकां पाचवें तण, तेल

आनी गोड खावपाक दितात.

माळव्यांतले भिल्ल आदिवासी हे गोरवांमुखार 'हौड' गायतात. घराच्या आंगणांत शेणान गोरधनाचीं चित्रां काडटात आनी थंय दिवो लावन दवरतात. ह्यो आकृत्यो गोरवांनी आपल्या पांयांनी माडोवप शुभशकून मानतात. बायलांखातीर हो सौभाग्याचो दीस आसता. अहीर जातीचे लोक गावन आनी नाचून ही परब मनयतात.

उत्तर प्रदेशांतल्या दोंगराळ वाठारांत गोमातेची पुजा करपाची चाल आसा. ह्या वाठारांतले लोक शाक्त आशिल्ल्यान ते ते शक्तीची उपासना करतात आनी देखून दिवाळे दिसा देवीची पुजा करून तिका पशूबळी ओंपतात.

बिहारा लागसार दिवाळेच्या दुसऱ्या दिसा म्हळ्यार प्रतिपदेक 'गोधन'चें व्रत करतात. भोजपूर वाठारांत ह्या दिसा शेणान मनशाची आकृती करून ताच्या हड्ड्यार वीट दवरतात. उपरांत बायलो मुसळ घेवन हे आकृतेक कुट्टात.

भारतांतल्या हेर वाठारांप्रमाण गोंयांतय दिवाळेची परब चड दबाज्यान मनयतात. दिवाळेचे आदले रातीं नरकासूर वधाची कार्यावळ गांवागांवांनी करतात. नरकासुराच्यो व्हड व्हड प्रतिमा तयार करून त्यो रस्त्यावयल्यान नाचयत व्हरतात. नरकासुरावांगडाच कृष्णाची प्रतिमाय तयार करतात. पूण कृष्णाची प्रतिमा नरकासुराचे प्रतिमे परस ल्हान आसता. आदीं कृष्णाचे प्रतिमेमुखार भजन-गायना सारकिल्यो भक्तीपर कार्यावळी जाताल्यो. आतां भजन धरून सगळ्या तरांच्या (भारतीय तशेंच अस्तंती) गायन वादनाच्यो आनी नृत्य नाटकाच्यो कार्यावळी आयोजीत करतात. हांचेच जोडयेक सद्या नरकासुराची प्रतिमा तयार करपाच्यो सर्तीय जातात. समाजीक संस्था ह्यो सर्ती पुरस्कृत करतात. ही कार्यावळ रातभर चलता आनी सकाळीं झिळमिळत्यार नरकासुराक उजो पेटोवन ताचो वध करतात. उपरांत घर तशें घराभोवतणीं पणटच्यो पेटयतात. आकाशदिवे लायतात. उपरांत न्हावन धुवन काट्टां फोडपाचो कार्यक्रम जालो की, घराघरांनी गोड गोड खावपाचो बेत जाता. ह्या खाणांत चडशे फोवांचे पदार्थ आसतात. लोक एकामेकांगेर वचून गोड गोड खावन इश्टागत दाखयतात. घरांतलीं सगळीं मनशां तशेंच शेजारी पांवळेभायर दवरिल्लीं काट्टां पांयाच्या आखाण्यान फोडटात. आनी उपरांत काट्टाच्या कोडू गराचो ल्हानसो कुडको जिबेर दवरतात. काट्टां फोडले उपरांत घरांत भितर सरचेपयलीं घरांतली सवायशीण बायल वा नवी व्हंकल काट्टां फोडटल्याच्या पांयार उदक घालता. पिंजरीचें उदक (रांट) पडग्यांत घेवन तातूंत तांचें रूप प्रतिबिंबीत करतात. उपरांत पीठ आनी हळद हांच्यो गुळयो करून त्यो काट्टां फोडटल्या भोंवतणी उंवाळून दोन दिशांनी उडयतात. उपरांत तांकां आरतीन उंवाळटात. ह्या वेळार दादले बायलांक उंवाळणी घालतात. कांयकडेन अशी उंवाळणी करिनासतना एक दिवो पेटयतात. जमिल्ले दादले दिव्याक अभिवादन करतात आनी दिव्या पोंदच्या ताटांत उंवाळणी घालतात. कारीट हें कोडू फळ नरकासुराचें प्रतीक समजप जाता आनी ताची कोडसाण चाखले उपरांत, म्हणजे, ताचो वध केले उपरांत येसवंताची उंवाळणी जाता आनी गोडधोड खावपांत ह्या येसाचें जैत मनोवप जाता.

हेरकडले सारकेंच गोंयांतय लक्ष्मी पुजन जाता. पसरकार आनी हेर वेपारी, वेवसायीक आनी कांय घरांनीय लक्ष्मीपुजन करपाची चाल आसा. लक्ष्मीपुजनांत चिरमुल्यो वांट्टात. पाडवो आनी भाऊबीज हे दिवाळे संबंदांचे उत्सव गोंयांत थोड्याभोव प्रमाणांत जातात.

– माधव गोविंद भुस्कुटे

– कों. वि. सं. मं.

**दिवे :** तेल, तूप, चरबी, कोळसो, वायू आनी विद्युत् ऊर्जा सारकिल्या पदार्थांच्या आदारान कृत्रीमपणान उजवाड निर्माण करपाचें एक साधन. चूड, मशाल, कांकाडो, पण्टी, दिवटी, दिवली, माड, लामणदिवो, निरांजन, चिमणी, कंदील, पॅट्रोलमॅक्स, बल्ब, ट्यूब, बॅटरेदिवो अशे दिव्याचे वेगवेगळे प्रकार आसात.

सूर्य आनी अग्नी हांचें प्रतीक आशिल्ल्या दिव्याक हिंदू धर्म धरून सगळ्याच धर्मांत पवित्र अशी खाशेली सुवात आसा. दर एके देवपुजेंत दिव्याची गरज आसता. हिंदू धर्मांतलो लामणदिवो, शकून दिवो, नंदादीप; किरिस्तांव आनी ज्यू धर्मांतल्यो मेणवाती; मुसलमान धर्मांतलो चिराग हीं धर्मीक दिव्यांचीं कांय उदाहरणां आसात.

इ. स. आदीं सुमार ७०,००० वर्सांआदीं अश्मयुगांत दिव्याचो सोद लागिल्लो आनी तो फातरांत कोरांतिल्लो आसून ताच्या खोल भागांत चरबी वा शेवाळे वा तत्सम भिजपी पदार्थ वापरून ते भिजयताले, असो उल्लेख मेळटा. तशेंच वेगवेगळेकडेन जाल्ल्या जायत्या उत्खननांनी शिंपल्यांचे, ॲलेबॅस्टर (एक प्रकारचें मोव खनीज, धातू आनी माती हांच्या आयदनांक शिंपल्यांचो आकार दिवन केल्ले दिवे, मातयेचे, तांब्याचे, कांश्याचे, दिवे मेळ्ळ्यात.

उपरांतच्या काळांत दिव्यांत सुदारणा जायत गेल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. इ. स. सुमार १२५०त कंवचेचे दिवे वापरांत आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. सतराव्या शतमानांत मध्यपूर्व वाठारांत आनी जर्मनींत कालमापनाखातीर दिव्याचो उपेग करताले.

इ. स. चे सुर्वेक सावन वातीचो उपेग आनी धंदो करताले हाचो उल्लेख युरोपी इतिहासावयल्यान मेळटा. आफ्रिकेंतले आदिवासी लोक तेलबियो मातयेच्या आयदनांत घालून जळटाले. इ. स. १०० च्या सुमाराक ह्यो वाती फ्लॅक्साच्या दोरयांक डांबर आनी मेण लावन केल्ल्यो आसताल्यो. उपरांतच्या काळांत रश झाडाचे जोरवे चरबेंत बुडोवन वाती करताले. पूण मागीर हलक्या लाकडाचे कुडके चरबी वा म्होंवा मुसांच्या मेणांत बुडोवन वापरपाक लागले. अठराव्या शतमानांत स्पर्मासेटी (स्पर्मव्हेल ह्या नुस्त्याचे तकलेंतल्या तेलांतलो घनपदार्थ) हो पदार्थ वापरांत येवंक लागलो. पूण १८२३त स्टिअरीन हें रसायन आनी १८५०-६० ह्या काळांत खनीज तेलापसून काडिल्लें मेण (पॅराफीन) ताका लागून मेणवातींत खुबूच सुदारणा जाली.

एड्रिॲटिक दर्यादेगेर मेळिल्ल्या खनीज तेलाचो वापर दिव्याखातीर करताले असो इ. स. ५० तल्या रोमी शास्त्रज्ञ प्लिनी हाचो उल्लेख मेळटा. तेराव्या शतमानांत दिव्याखातीर खनीज तेलाचो उपेग केल्ल्याचोय पुरावो मेळटा. इ. स. १८५०-५१ ह्या काळांत कोळशाच्या ऊर्ध्वपानान काडिल्लें कॅरोसीन तेल वापरपी दिव्यांचे जायते प्रकार प्रचारांत आयले. फुडें १८५९त कॅरोसिनाचो सोद लागतकच हेंच तेल दिव्याखातीर बरें आनी सवायूय अशें दिसलें. उपरांतच्या काळांत नव्यो नव्यो सुदारणा जाल्ले दिवे प्रचारांत येवंक लागले.

**वायूचे दिवे :** क्रिस्ताच्या जायत्या शतमानां आदीं उजवाडा खातीर

सैमीक वायूचो उपेग करताले. जमनींत ५००-५५० मी. सकयल आशिल्लो वायू कोंड्यांचे नळयेंतल्यान वयर हाडून उजवाडाखातीर ताचो वापर करताले. उपरांत १७९२त विल्यम मर्डॉक हाणें उजवाडाखातीर कोळशाच्या वायूचो उपेग केल्लो उल्लेख मेळटा. १८१३त लंडनांत आनी १८१८त पॅरिसांत वायूदिव्याचो प्रसार जालो. इ. स. १८२०-१८८० ह्या काळांत दिव्यांत जायत्या तरांच्यो सुदारणा जावन ज्वालक तयार केले. १८५५त बन्सेन ज्वालक आनी १८७९त सग-अरगँड ज्वालक हांचे सोद लागले. १९०० पसून जोतीबगर पूण प्रदीप्त जाळयेंतल्यान मेळपी वायूचो प्रकाश रूढ जालो. १८९३ तल्यान ॲसिटिलीन वायूचो उपेग दिव्यां खातीर करूंक लागले. उपरांत रस्त्यावयल्या दिव्यांखातीर पिंटस वायूचो सोद लायलो. पूण फुडें विजेच्या आदारान प्रकाशाची कल्पना रूढ जातकच ल्हवूल्हवू वायू वापरपाचें प्रमाण उणें जायत गेलें. अमेरिकेंत १९११ पसून वायू जाग्यार विजेचो वापर करूंक लागले.

**भारत :** रामायण, महाभारत आदी पुर्विल्ल्या ग्रंथांनी भांगराच्या आनी रत्नांच्या दिव्यांचो उल्लेख मेळटा. मोहें-जा-दडोच्या उत्खननांत इ. स. आदीं ३७००-३५०० ह्या काळांतले हुमकळावपाचे मातयेचे दिवे मेळ्ळ्यात.

सोळाव्या - सतराव्या शतमानांनी दक्षिण भारतांत पितूळ वा कांश्याचे नक्षीदार दिवे वापरताले असो उल्लेख मेळटा. हातूंत दिव्याच्या आकाराचे जायते प्रकार आसून तातूंत २५० पण्टयांचे प्रकार आसात. उत्तर भारतांतल्या दिव्यांचेर मोगल काळाचो परिणाम जाल्लो दिसता. हे दिवे पितूळचे आसून तांचेर भुमितीक आकृत्यो कापून तयार केल्ल्यो आसताल्यो. ह्या दिव्यांच्या वयल्या भागांक मनोऱ्याचो वा घुमटाचो आकार आसतालो.

दिव्यांखातीर वापरिल्ल्या जळणाच्या स्वरुपाप्रमाण दिव्यांचे तीन मुखेल वांटे जातात - १) तेलाचे दिवे २) वायूचे दिवे आनी ३) विजेचे दिवे. तेलादिव्यांत सादारणपणान मशाल, पण्टी, निरांजन, दिवली ह्या सारक्यांचो आस्पाव जाता. हातूंत वनस्पतीजन्य, प्राणिजन्य वा खनीज तेलाचोय वापर करूं येता. वायू दिव्यांखातीर चड करून सैमीक वायू, कोल गॅस (कोळशा वायू) गोबर वायू आदींचो उपेग करतात.

**विजेचे दिवे :** विजेचे जायत्या प्रकाराचे दिवे आसात. हातूंत घराखातीर प्रदीप्त (कंवचेच्या फुग्यांचे) दिवे वा नळयेचे अनुस्फुरक दिवे, उद्देगीक वा संशोधन कार्यांत वापरिल्ले प्रज्योत दिवे, छायाचित्रां घेवपाखातीर वापरिल्ले स्फूर दीप, जायरातीच्या नळयांचे निऑन दिवे, फ्लड लायट, विमानतळ आनी रेल्वेखातीर वापरिल्ले झोत दिवे हांचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**दिव्यनदर :** सामान्य मनशाचे नदरेक ना दिसपी, अशें पळोवपी नदर. श्रीकृष्णान अर्जूनाक आपलें विश्वरूप दाखोवपा वेळार म्हळां, 'म्हजें विश्वरूप तुका तुच्या चर्मचक्षुंनी (आसा ती नदर) पळोवंक येवंचें ना. देखून हांव तुका दिव्य चक्षू (दिव्य नदर) दितां'. संजय हो हस्तिनापूरांत धृतराष्ट्राम्हऱ्यांत बसून कुरूक्षेत्रावयल्या भारतीय झुजाच्यो घडणुको पळयतालो आनी ताचें वर्णन धृतराष्ट्राक सांगतालो. होय एक दिव्य नदरेचोच प्रभाव. ही दिव्य नदर श्रीकृष्णानूच संजयाक दिल्ली. योगशास्त्रांत हे दिव्य नदरेचें विवेचन दिलां तें अशें - दरेक मनशाच्या मस्तकांत तीन दोळे आसतात. तातूंतले दोन उकते आनी एक सदांच धांपिल्लो आसता. ह्या गुपीत आशिल्ल्या दोळ्याक गिन्यानी लोक दिव्य नदर वा योगीशिवनेत्र म्हण्टात. शिव हो तीन दोळ्यांचो, शिवाक कपलाचेर एक दोळो आसता अशें पुराणांत म्हळां. पूण हो तिसरो दोळो फकत शिवाकच नासून दरेका मनशाक आसता, अशें योगविद्येंत सांगलां. विशिश्ट साधना करून योगी दिव्यनदर वापरूंक शकता. तशेंच तातूंतल्यान उदक वा उजो भायर उडोवंक मेळटा, कारण ही नदर म्हळ्यार पंचतत्त्वांची मुखेल सुवात आसता अशें योगी मानतात.

मनशाच्या दाव्या आनी उजव्या दोळ्यांत अनुक्रमान शक्ती आनी काळ हांची वसणूक आसता. तिसऱ्या शिव दोळ्यांत ब्रह्माचो निवास आसता. शक्ती, काळ आनी ब्रह्म ह्या तिगांयचीय जी संयुक्त अवस्था तेंच परमेश्वराचें रूप. दाव्या दोळ्याचो संबंद चंद्रमंडलाकडेन, उजव्याचो सूर्यमंडलाकडेन आनी शिवनेत्राचो ब्रह्ममंडलाकडेन आसता. दाव्यापसून क्रिया, उजव्यापसून इत्सा आनी शिवनेत्रापसून विचार हांची उत्पत्ती जाता अशें दोळ्यांचें योगीक तत्त्व सांगलां.

दरेका शरिराक तिसरी नदर आसताच अशें योगविद्या मानता. मनशाक न्हीद लागता तेन्ना ताचे दोन दोळे धांपतात. अशा वेळार तो जें सपन पळयता तें दिव्य नदरेच्या प्रकाशाक लागून. मनाकडेन दर्शनशक्ती आसना, देखुनूच सपन मनाक दिसता हें फट. तें तिसऱ्या धांपिल्ल्या, गुपीत दोळ्याक दिसता.

पद्मासन घालून बसप, जीब ताळूक लावप, भ्रमध्यासावन दोन आंगळां वयले वटेन लक्ष केंद्रीत करप आनी शिवमंत्राचो उपांशु जप करीत शिवाचें ध्यान करप. अशी ही साधना खर जातकच दिव्य नदरेचें उन्मीलन जाता.

जाची दिव्यनदर उक्ती जाता ताका संवसारांतल्यो सगळ्यो घडणुको बशिल्ल्या जाग्यार दिसूंक लागतात. तेचपरी ताका दुसऱ्याच्या मनांतलेंय दिसूंक शकता असो विश्वास करप जाता.

दिव्य नदरेक वर्तमानांतल्योच न्हय जाल्यार भविश्य काळांतल्यो घडणुकोय दिसूंक लागतात. ताकाच लागून साधकाचे मन ल्हवू - ल्हवू करून अंतर्मूख जावन एकाग्र जाता. तेचपरी ताची जीणय उदात्त जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**दिश्ट काडप :** कोणाय एका मनशाची नदर पापी वा विकारी आसता आनी ती जाचेर पडटा ते व्यक्तीक, जिवाक वा वस्तीक बादिकार जाता असो समज आसा. हाकाच नदर लागप, नदर बादप वा दिश्टबादा जावप अशें म्हण्टात. दिश्ट लागिल्ल्या मनशाची भलायकी इबाडप, ल्हान भुरग्याचें अन्न बंद जावप वा एकसारकें रडूंक लागप, गाय - म्हशीचें दूद आटप, झाडाचीं फळां गळप अशीं दिश्टीबादेचीं लक्षणां समजप जातात. अथर्ववेदांत अशे बादिकारी नदरेक 'घोरमचक्षू' (वायट नदर) अशें म्हळां. तातूंतले तातूंत ल्हान भुरगीं, न्हवरो-व्हंकल, दूद दितलीं जनावरां, फळांनी गच्च भरिल्लीं झाडां, बांदकामांतल्यो वास्तू, तरतरपी वेव्हार आनी हेर मोलादीक वस्तूंक नदर चड प्रमाणांत लागता असो समज आसा.

जित्या मनशाचे नदरेवांगडाच मेल्ल्या मनशाचीय (भुतां - खेतांचीय) नदर लागता अशेय कांय समज लोकांमदीं आसात.

दिश्ट काडपाचे वेगवेगळे प्रकार आसात आनी ते दिश्ट जाल्ल्या व्यक्ती वा वस्तूप्रमाण थरतात. काळो हो अशूभ रंग दिश्टी बादेक उपाय म्हणून वापरतात. ल्हान भुरग्याक काजळ लावप, गळ्यांत काळो दोरो घालप, काळ्या कापडाचो कुडको वा बावलें करून हाताक बांदप. वेपारी लोक दिश्ट जावंची न्हय देखून मिरसांग आनी लिंबू हांची माळ करून दारांत हुमकळायतात. झाडाक दिश्ट लागची न्हय देखून झाडाक गोरवां शिंगां, सान्न वा जोत्याव्हाण बांदपाची प्रथा सर्रास चलता. मीठ, मिरसांग, फटकी, केंस, पिंजर, सारकिल्या पदार्थांची, नळ्याचेर उज्या कोळशांत आहुती दिवन ताच्या धुंवरांत दिश्ट बादा जाल्ल्या मनशाची उंवाळणी करप आनी तो नळो व्हरून तीन रस्त्यांचेर दवरपाची चाल गांवगिऱ्या वाठारांनी सर्रास दिश्टी पडटा.

नाल्ल, रांट (पिंजरीचें उदक), शिता उंडी, ह्या सारकिल्या वस्तूंच्या आदारानूय दिश्ट काडपाची चाल आसा. कांयकडेन जाण्टी बायल वा दादले, घाडी, भगत, मांत्रीक सारकिल्ले मध्यस्त दिश्ट काडपाचे सोपस्कार करतात.

दिश्ट बादा जावंची न्हय देखून अथर्ववेदांत कांय मंत्र दिल्ले आसात ते अशे -

शप्तारमेतु शपथो यः सुहार्त्तेन नः सह ।
चक्षुर्मन्त्रस्य, दुर्हार्दः पृष्टीरपि शृणीमसि ॥
(अथर्व:२.७.५)

**अर्थ** - शाप दिवप्याकडेन ताचो शाप परत वचूं. जो सौहार्दान युक्त आसा, ताचेकडेन आमची इश्टागत जावं. जे नदरेन वायट कुरवो करतात आनी जे आपसांत झगडीं निर्माण करतात. तांच्यो बरी लेगीत आमी मोडून उडयतात.

आर्विल्ल्या विज्ञानीक काळांत दिश्ट काडपाची प्रथा पातळ जायत गेल्ली आसली तरी, गांवगिऱ्या वाठारांतली ही प्रथा पुरायपणान वचूंकना.

– माया खरंगटे

**दिक्षा :** दिक्षा ह्या शब्दाची उत्पत्ती 'दा' आनी 'क्षि' ह्या अक्षरांचो संकेतीक अर्थ घेवन जाल्ली आसा. 'दा' (ज्ञान दिवप) आनी 'क्षि' (कर्म वासनांचो नाश करप). खंयचेंय कार्य सुरू करचेआदीं वा मंत्रोपदेश घेवंचेआदीं त्या कार्याखातीर फावो तो अधिकार मेळोवन घेवपाखातीर करपाचो एक विधी. धर्मीक कार्य करचेआदीं जी दिक्षा घेतात तिचो उल्लेख वेदीक साहित्यांत मेळटा. वेदांत यज्ञधर्माक म्हत्व दिलां. देखून खंयचोय यज्ञ करचेआदीं येजमानान (यज्ञ करप्यान) दिक्षा घेवंची पडटा. वेदांतल्या यज्ञांत सोमयाग हो एक म्हत्वाचो याग. येजमान आनी ताची घरकान्न हीं दोगांय दिक्षा घेतात. 'दीक्षणीयेष्टि' नांवाचो यज्ञ जातकच येजमानाक दिक्षा दितात. दिक्षा सोंपसर ताणें ज्यो वस्तू वापरपाच्यो आसतात त्यो ताका दितात. ही दिक्षा घेतकच येजमानान आनी ताचे घरकान्नीन फकत गायचें दूद पियेवपाचें आसता. तशेंच यज्ञ सोंपसर ताकां जायते नेम पाळचे पडटात. आवय-बापाय सावन मेळटा तो पयलो जल्म. उपनयन संस्कारांपसून मेळटा तो दुसरो जल्म आनी यज्ञदिक्षेन मेळटा तो तिसरो जल्म अशें सांगतात.

संन्यास घेता आसतना तो दिक्षेच्या सुवाळ्यानच घेतात. त्या वेळार मनशाक आध्यात्मिक वा मोक्ष मेळोवपाच्या मार्गांत नवो जल्म मेळटा अशें सांगतात. मुक्ती मेळोवप हो दिक्षेचो मुखेल हेत आशिल्ल्यान वैशणव, शैव, शाक्त तंत्रां हातूंत दिक्षेक म्हत्वाची सुवात आसा. एकदां दिक्षा घेतकच तिचो त्याग करूंक मेळना. आगमोक्त दिक्षेचे कलादिक्षा, तत्त्वदिक्षा, पददिक्षा सारके बारा प्रकार सांगल्यात. तंत्रीक दिक्षेंत मंत्रोच्चाराक चड म्हत्व दिलां. अशे तरेचे दिक्षेक विशिश्ट तीथ, वार, नखेत्र, म्हयनो आदी म्हूर्त सांगल्यात. ही दिक्षा आध्यात्मिक साधनेंत उंचेलो पांवडो आनी फिशालकाय मेळयल्ल्या म्हान गुरूकडल्यान घेवपाची आसता. दिक्षा घेतल्याक गुरूची कृपा आनी बळगें आपोआप मेळटा अशें म्हण्टात.

मंत्रोपदेश घेवपाआदींचो संस्कार ह्या अर्थान उपनयन संस्कार हीय एक दिक्षाच मानल्या. ह्यावेळार बटूक गायत्रीमंत्राचो उपदेश दितात. अशें मानतात, त्या वेळार ताचो पुनर्जल्म जाता, देखून ताका 'द्विज' हें नांव मेळ्ळां. संन्यास होय गुरूकडल्यान दिक्षेसयत घेवंचो आसता. बौध्द तंत्रांत दिक्षा आसा. तातूंत 'पब्बज्ञा' (प्रव्रज्या) आनी उपसंपदा हे दोन संस्कार आसात. पारशी धर्मांतलो नवजोत हो एक दिक्षासंस्कारच. इस्लामी धर्मांतलो 'सुंता' आनी क्रिस्तांव धर्मांतलो 'बातिझ्मा' होय एक दिक्षाविधीच. क्रिस्तांव धर्मांत मनशाप्रमाण वस्तुकूय पवित्र करपाचो विधी आसता.

दिक्षा घेतिल्ल्या मनशाक, समाजीक, कुटुंबीक, धर्मीक संदर्भांत थरावीक नेम आनी संकेत पाळचे लागतात. दिक्षेचो उद्देश मोक्षप्राप्ती आशिल्ल्यान सगळ्याच संप्रदायांनी दिक्षेक आपल्या आचरणांत म्हत्व दिल्लें दिश्टी पडटा.

– कों. वि. सं. मं.

**दीन-ए-इलाही :** सम्राट अकबरान पुरस्कृत केल्लो धर्मसंप्रदाय. सगळ्या धर्मांतल्या मुखेल आदर्श तत्त्वांचो मेळ घालून मोगल बादशहा अकबरान 'दीन-ए-ईलाही' ह्या धर्मसंप्रदायाची स्थापणूक केली. दीन म्हळ्यार धर्म आनी इलाही म्हळ्यार परमेश्वर. देवाचो धर्म असो हाचो अर्थ जाता. ताका 'तौहीदे इलाही' (एकेश्वरी धर्म) अशेंय म्हण्टात. १५८१ वर्सा स्थापणूक केल्ल्या पंथाक लागून अकबराचे समाजीक आनी आध्यात्मिक विचार कळटात. धर्मतत्त्वांचो अवलंब समाजीक सुदारणा जावपाखातीर जावंचो अशी अकबराची इत्सा आशिल्ली. ईश्वरभक्ती, धर्मपारायणां, दूरदर्शित्व, दयाबुध्द ह्यो भावना ह्या पंथा फाटल्यान आसात.

हिंदू धर्म आनी इस्लाम धर्मांतल्या मुखेल तत्त्वांखेरीज जैन धर्मांतलें अहिंसा तत्त्व, सुफी पंथांतलो आत्मशुध्दीचो सिध्दांत, क्रिस्तांव धर्मांतलो संयम हीं तत्त्वां अकबरान लोकांच्या मनाचेर लादपाचो यत्न केलो. दुश्कृत्यां, राग करप ना, सौम्यत्व, मद्य पिवपाचेर बंदी, घातकी कृत्यांचो त्याग, धर्माची निश्ठा बाळगप, भक्ती, शाणेपण, मार्दव, दया हीं ह्या धर्माचीं खाशेलपणां कुराणांत मेळटात. दानधर्म, विधवाविवाह हांकां प्रोत्साहन दिवप, बालविवाह, रक्तसंबंदितांमदलें लग्न, सती वचपाचे चालीक बंदी घालून ताणें समाज सुदारणेची बसका घाली. हिंदू धर्मांतली सुर्योपासना ताणें स्वतःच्या आचरणांत आपणायली.

विंगड विंगड धर्मशास्त्रांनी आशिल्लो भेद आनी तातूंतल्यान जावपी संघर्श हांकां लागून समाजाचें एकचारपण काबार जाता, हें पळयतकच ताणें सर्वसंग्राहक अशा 'दीन-ए-इलाही' धर्मतत्त्वाची स्थापणूक केली.

सगळ्या धर्मांतल्या सद्गुणी तत्त्वांचो आस्पाव आनी दुर्गुणी तत्त्वांचो त्याग हें ह्या पंथाचें स्वरूप आसा.

अकबरान धर्माक नवे नेम आनी बऱ्या संस्कारांची जोड दिली. हिंदू आनी मुसलमान धर्मांतली समाजीक तत्त्वां, शिल्पकला, धर्मीक कल्पना आनी समाजीक चालीरिती हांचें संतुलन अकबरान ह्या संप्रदायाक लागून सादलें. ह्या धर्मीक समन्वयाच्या विचारांक, त्या काळांतल्या तशेंच उपरांतच्या कडव्या इस्लाम धर्मियांनी विरोध केलो. अकबराचेर खूब टिका केली. अकबरा वांगडाच, हो धर्मपंथ काबार जालो. कांय आर्विल्ल्या इस्लामी विचारवंतांनी 'दीन-ए-इलाही' हो नवो धर्मपंथ मानिनासतना, ताका इस्लाम धर्माचोच सुदारक पंथ अशें म्हळां. पूण कडव्या धर्मवादी मुसलमान लोकांक तें मान्य ना.

राजा बिरबल हाणें हो पंथ आपणायलो, पूण मानसिंग आनी भगवानदास हाणीं ताका विरोध केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**दीपगृह :** लांब अंतरावेल्यान दिसपी तेजस्वी दिवो दवरपाखातीर बांदिल्लो दर्यादिगेवयलो मनोरो वा उंचायेवयलो आच्छादीत जागो. दर्यातल्यान वचपी तारवांक मार्गदर्शन करपाखातीर वेगवेगळ्या आकाराचीं दीपगृहां बांदतात आनी ताचे भायले वण्टीर विशिश्ट पद्धतीन रंगीत पटे काडटात. जांकां लागून दीपगृहां दिसाचीय पयसुल्ल्या अंतरावेल्यान स्पश्ट दिसतात. दीपग्रहाचो आकार आनी रंगीत पटे पळोवन दीपगृहाचें नांव आनी ताची सुवात लक्षांत येता. रातच्या वेळार दीपगृहाचे सगळ्यांत वयले माळयेर बसयल्ल्या दिव्याचो उजवाड कांय थारावीक सेकंदांनीं दिसता आनी कांय थारावीक सेकंदांनी बंद जाता. दरेका दीपगृहाचो उजवाड दिसपाचो आनी ना जावपाचो काळ दुसऱ्या दीपगृहा परस वेगळो आसता. ताका लागून हो उजवाड दिसपाचो आनी ना जावपाचो काळ म्हळ्यार अणभवी तांडेलाक दीपगृहाची वळख पट्टा. हाचेवयल्यान दीपगृहाचो जागो एके फावटीं कळटकच तारवाक आपल्याक खंय व्हरपाचें आसा तें थारोवंक मेळटा.



अठराव्या शतमानांत दीपगृहाखातीर लाकडाची वा कोळशाची रास पेटोवन उजवाड तयार करताले. १९ व्या शतमानाचे सुर्वेक स्वीस अभियंतो एमे अरगँड हाणें तेल जळोवन उजवाड केलो. हातूंत समकेंद्री पातळ आनी वांटकुळ्यो वाती आशिल्ल्यो. विसाव्या शतमानाच्या पयल्या दशमानांत आर्थर किटसन हाणें तयार केल्ल्या ज्वालकाचो उपेग करपी दिवे वापरांत येवंक लागले. ह्या दिव्यापसून अरगँड दिव्यापरस तीन पटींनी चड उजवाड मेळूंक लागलो. फुडें १९२१त ह्याच तत्त्वाचेर चलपी पूण सादे रचणुकेचो एक ज्वालक डेविड हूड हाणें तयार केलो. सद्याच्या काळांत जंय विजेची शक्त वापरप शक्य ना अशा दीपगृहांखातीर सुदारीत वायुजाळयेवांगडा हूड हाचो पेट्रोलियम बाष्प ज्वालक वापरतात. हाचे उपरांत ॲसिटिलीन वायुचे दिवे आयले आनी ताच्या उपरांत विजेचे दिवे प्रचारांत आयले. जंय विजेची पुरवण जायना थंय अजुनय सिलिंडरांनी दाबाखाल दवरिल्ल्या ॲसिटिलीन वायू जळोवपी दिवे आनी ताचे वांगडा निल्स गुस्ताव डालेन हाणें सोदून काडिल्ली चकचक यंत्रणा वापरतात.

सुर्वेच्या काळांत रातची दर्यांत भोंवडी करता आसतना, देगेची जमीन, फातर दिसपाखातीर ऊंच जाग्यार लाकडाच्या जाळाचो वा पेटिल्ल्या कोळशांचे राशीचो उपेग करताले. भारतांत खुबशा ल्हान बंदरांनी जकात (कस्टम्स) कचेऱ्यांतल्यान तांबडे दिवे लावपाची पद्धत आसा. तेचपरी गोदींत शिरपाच्या जाग्यार ऊंच खांब्यार फकत पेत्रोलाचे दिवे लायताले.

उपरांतच्या काळांत चड कार्यक्षम अशा प्रजोत दिव्याचो (कार्बनाच्या दोन विद्युत आग्रांतले खांचींतल्यान विद्युत प्रवाह वता आसतना प्रखर जोत उत्पन्न करपी) सोद लागलो. अशे दिवे आता जायत्या दीपगृहांनी वापरतात. ६० सेंमी. व्यासाच्या झॅनॉनाच्या दिव्यांतल्यान देड कोटी कँडलाइतलो प्रखर उजवाड मेळूंक शकता आनी ताचेखातीर २.५ कि. वॉ. विद्युत शक्ती लागता. दिव्यांपसून उत्पन्न जाल्लो सगळो उजवाड इश्ट दिशेंत एकठांय हाडपाक परावर्तक (प्रकाश किरण परत धाडपी कॅटॉप्ट्रिक), प्रणमनी (प्रकाश किरणाची दिशा बदलपी), भींग (डायॉप्ट्रिक) वा ऑग्यूस्तीन फ्रेनेल हाणें सोदून काडिल्लो परावर्तक आनी प्रणमनी लोलक तशेंच प्रणमनी भींग बसयल्लो पांजरो (कॅटॉडायॉप्ट्रिक) अशे तीन प्रकार वापरूंक येतात.

दीपगृहाचे सादारणपणान पांच प्रकार जातात. १) दर्यावयल्यान भोंवडी करतना दर्यावेळ दिसपाखातीर : हे दिवे चड करून जमनीर आसतात. आनी ते खूब पयसुल्ल्यान दिसतले हाची वेवस्था करतात. (२) धोक्याचे दिवे : दर्यादिगेवयले फातर वा हेर आडखळी दाखोवपी. (३) दर्यादिगेवयल्या नौका नयनांचीं दीपगृहां : ही वेपारी तारवांक एका बंदरातल्यान दुसऱ्या बंदरात वचपाखातीर मार्गनिर्देशक म्हणून बांदतात. (४) दिव्यांची रांक : हातूंत सादारणपणान एका फाटल्यान एक अशे वेगवेगळ्या उंचायेचेर कांय अंतराचेर दोन दिवे आसतात. ताका लागून सुरक्षीत मार्गाची दिशा दाखोवप जाता. हे दिवे चड करून स्वयंचलीत आसतात आनी चड करून न्हंय, खाडी आनी बंदराकडेन येवपाच्या मार्गार दाखयतात. (५) बंदराची शीम दाखोवपी दिवे.

महाराष्ट्राचे दर्यादेगेर दमण सावन मुंबय मेरेन १५ दीपगृहां आसात. तेभायर मुंबय बंदरांत ३१, आलिबागे लागसार २, चौलाक १, जंजिऱ्याकडेन ७, दाभोळ वाठारांत ६, जयगडाक ५, रत्नागिरीकडेन ५, राजापूर लागसार २, विजय दुर्गाकडेन १, देवगडाकडेन २, मालवण, वेंगुर्ले वाठारांत ५ आनी गोयांत १० दीपगृहां आसात. हातुंतली संवसारीक येरादारीखातीर १८ उपेगांत आसात. जाल्यार हेर थळावे वा प्रादेशिक येरादारी खातीर बांदल्यांति.

दीपगृहांत वापरिल्ल्या दिव्याच्या उजवाडाचे पांच प्रकार जातात. (१) थीर उजवाड (२) चकचकपी उजवाड (३) चकचक समुह उजवाड,

(४) आच्छादीत उजवाड (५) आच्छादीत समुह उजवाड.

दीपगृहाच्या दिव्यांचेर व्हड व्हड दर्यासुकणीं झोपय मारपाची शक्यताय आसता. ताका लागून दिव्याची कंवची फुटची न्हय देखून दिव्या भोंवतणीं घटमूट जाळी बसयतात. दीपगृहाचेर वेगवेगळ्या तरांची यंत्रणा बसोवन वेगवेगळ्या तरांचो उजवाड पडपाची येवजण करतात. एका प्रकारांत उजवाड एकठांय करपाची यंत्रणा दवरतात आनी दिव्याची जोत थारावीक काळा उपरांत वाडोवपाची आनी परत पेटोवपाची एक यंत्रीक वेवस्था करतात. दुसऱ्या प्रकारांत जोत थीर दवरतात आनी एकठांय हाडपाची यंत्रणा ताचे भोंवतणीं घुंवडायतात.

दीपगृह चड करून उंचेले दोंगुल्लेचेर वा तुटिल्ल्या ऊंच कड्याच्या माथ्यार बांदतात. वादळां आनी मोडांतल्यान तिगून उरची म्हणून दीपगृहाची बांदणी वांटकुळी वा अश्टकोनी तशेंच वयर अशीर आनी सकयल रूंद दवरतात. इमारतीचे वयले माळयेर दिवो बसयतात आनी ताचेर सत्रेवरी पांखें घालतात. दीपगृह जायत्या माळयांचें आसूं येता. दीपगृहाचे सकयले माळयेपसून वयरमेरेन वचपाखातीर भितल्ले वटेन मुळसुदी पद्धतीचीं सोंपणां बांदिल्लीं आसतात. विद्युत् शक्ती उत्पन्न करपाचें यंत्र आनी डिझेल इंजीन चड करून स्वतंत्र बांदिल्ल्या लागसारच्या घरांत दवरतात. आनी सरयांच्या आदारान विद्युत प्रवाह दिव्यामेरेन व्हरतात. अस्तंती देशांतलें सगळ्यांत पोरणें दीपगृह इजिप्तांतल्या ॲलेक्झांड्रिया लागसल्ल्या द्वीप कल्पार टॉलेमी हाणें इ. स. प. ८० च्या सुमाराक बांदलें. पुर्विल्ल्या काळांतल्या बांदकामांतल्या सात अजापांमदीं हाचो आस्पाव जाता. ताच्या फॅरॉस ह्या नांवावेल्यान दीपगृह बांदपाच्या विशेश उद्देगाक फॅरॉलॉजी म्हणपाची चाल आसा. हें दीपगृह संगमरवरी फातरापसून बांदिल्लें आनी ताची उंचाय १२० मी. आशिल्ली. तेराव्या शतमानात तें भूयकांप जावन कोसळ्ळें.

जंय दीपगृह बांदपाखातीर बरो जागो मेळना थंय वा थळावे परिस्थितीक लागून दीपगृह बांदपाक शक्य जायना थंय स्वतंत्र व्हडें उबें करतात आनी ह्या व्हड्याच्या खांब्याचेर शक्य तितले व्हड शक्तीचो दिवो दवरतात. व्हडें हालता आसतना दिवो हालचो न्हय देखून दिवो दवरपाक विशेश तरेची यंत्रीक बसका वापरतात. तांडेलाक दर्याचे वाटेसंबंदी मार्गदर्शन करपाखातीर दर्यांत कांय बोंयाचेर दिव्याची सोय केल्ली आसता. हीं दिव्यांचीं बोंयीं रातच्या वेळार तांडेलाक मार्ग दाखयतात.

भारतांतल्या दीपगृहाची शासन व्यवस्था पळोवपाखातीर तीन विभाग केल्यात. संवसारीक येरादारीक उपेगा पडपी दीपगृहां, केंद्र सरकाराच्या नियंत्रणाखाल आसतात. दर्यादेगेवयलीं सामान्य दीपगृहां राज्य सरकाराच्या आनी थळाव्या बंदरांतलीं दीपगृहां पोर्ट ट्रस्टाच्या नियंत्रणाखाल आसतात. भारतांतल्या ५,००० किमी. दर्यादेगेर केंद्र सरकाराच्या नियंत्रणाखाल सुमार ३१४ दीपगृहां आनी ८ दीप नौका आसात. दीपगृहांची बांदावळ, वाड आनी सुदारणा करपाखातीर केंद्र सरकाराक सल्लो दिवपी एक समिती आसून तिच्यो सुचोवण्यो कार्यान्वित करपाची जबाबदारी दीपगृहाच्या महासंचालकाकडेन आसता. महासंचालकाच्या हाताखाल पोर्ट ब्लॅर (अंदमान), कलकत्ता, चेन्नई, पणजी, मुंबई आनी जामनगर ह्या स ठिकाणांची दीपगृह कार्यालयां आसात. ह्या खात्याचो खर्च चलोवपाखातीर १९२७च्या भारत दीपगृह अधिनियमाप्रमाण दरेका बंदरात येवपी तारवाकडल्यान वसुली करतात.

– कों. वि. सं. मं.

**दीपवंश :** एक बौध्द ग्रंथ. हो पाली भाशेंत आसा. हातूंत लंकेंतल्या बौध्द धर्माचो इतिहास सांगपाच्या निमतान महासेन राजाच्या काळामेरेनचो (इ. स. ३२५-३५२) लंकेचो पुर्विल्लो इतिहास सांगला. बुद्धघोषान आपल्या अश्टकथांत हाचे संदर्भ घेतल्यात. हाचेवयल्यान ३५२ ते ४५० ह्या काळांत ह्या ग्रंथाची रचना जाली असो अदमास काडटात.

सिंहली अश्टकथांतल्या इतिहासीक अंशाच्या आदारावरवीं ह्या ग्रंथाची रचणूक जाली. हातूंत सुर्वेक बुध्दाच्या तीन लंकायात्रांची खबर दिवन फुडें तीनय बौध्द संगितींचो इतिहास नोंद केला. ह्या बौध्द संगितींवरीच सिंहली राजवंशाचो इतिहासय हातूंत दिला. चड करून लाटदेशीय राजकुंवर विजय हाणें लंकेंत भारतीय उपनिवेशाची स्थापना कशी केली आनी तो लंकेचो पयलो राजा कसो जालो हाची विस्तारान खबर ह्या ग्रंथांत आसा. तृतीय बौध्द संगितींउपरांत बौध्द धर्माच्या प्रचाराखातीर अशोकाचो पूत महेंद्र आनी धुव संघमित्रा हीं दोगांय लंकेंत गेलीं, तेन्ना विजयाचो वंशज तिस्स हो लंकेंत राज्य करतालो. ताणें बौध्द धर्म आपणावन त्या धर्माच्या प्रसाराखातीर कसो यत्न केलो हाची खबर ह्या ग्रंथांत मेळटा. ताचेफुडें तिस्साच्या काळाउपरांत द्रवीडांनी लंकेचेर घुरी घाल्ली, ते घुरयेक तोंड दिवपाखातीर दुट्ठगामणी राजान केल्ले यत्न, ताणें बांदिल्ले महास्तुपादी स्तूप, ताच्या वंशांतल्या वट्ठगामणीन करून घेतिल्लें त्रिपिटकांचे लेखन आदी म्हत्वाच्या घटनांची खबर दिवन, महासेन राजाचे कारकिर्दीच्या शेवटाकडेन हो इतिहास सोंपयलो.

भाशेचे नदरेन आनी रचणुकेचे नदरेन तो ग्रंथ परिपूर्ण ना, तरी लंकेचो पुर्विल्लो इतिहास जाणून घेवपाचे नदरेन ह्या ग्रंथांच्या तोलामोलाचें दुसरें साधन ना. लंकेचो राजा धातुसेन (इ. स. चें पांचवें शतमान) हाणें एका वर्सुकी उत्सवांत ह्या ग्रंथाचें पठण करून ताका राश्ट्रीय गौरव मेळोवन दिलो.

– कों. वि. सं. मं.

**दीस :** सामान्यपणान एका सुर्योदयासावन दुसऱ्या सुर्योदयामेरेनच्या काळाक दीस म्हण्टात. हातूंत दीस आनी रात ह्या दोगांयचो आस्पाव आसता. पुर्विल्ल्या काळांत यज्ञयागाखातीर हेच पद्धतीन दीस मेजताले. म्हणून ताका 'सावन दीस' म्हण्टाले. पूण सूक्ष्म अवलोकनाचे नदरेन सूर्य उदेवपाचो आनी अस्ताक वचपाचो हे दोनूय खीण सोयीचे नाशिल्ल्यान पुर्विल्ल्या गणितशास्त्रांत दनपार ते दनपार वा मध्यानरात ते मध्यानराती मेरेन एक दीस मानपाची प्रथा निर्माण जाली. अशा दिसाक सौर दीस म्हण्टात. पूण हो काळ सदांच सारको आसता अशें ना. सूर्यमार्ग धर्तरेच्या विषुववृत्ताकडेन कलिल्लो आसता. तेखातीर भूगोलाच्या विषुववृत्ताचेर एक काल्पनिक सूर्य स्थापून ताचे सरासरी गतीन दिसाचो जो काळ थारता, ताका 'मध्यम-सौर' दीस म्हण्टात. सामान्यपणान दीस २४ वरांनी वांट्टात.

धर्तरेक आपले भोंवतणीं एके फावटीं घुंवपाक लागपी काळाक 'दीस' म्हण्टात. हो काळ खंयच्याय पयसुल्ल्या अवकाशांतल्या पदार्थाच्या वा दिशेच्या संदर्भांत मेजतात आनी तेप्रमाण दृश्य, माध्य, नाक्षत्र आनी सांपातिक दीस अशे प्रकार आसात. माध्य नाक्षत्र दिसाभितर माध्य सौरदिसाचीं २३ वरां ५६ मिनटां आनी ४.०९०५४ सेकंद जातात.

तशेच हेर प्रकारचेय दीस आसात. चंद्राक याम्योत्तरवृत्त फाटोफाट दोन फावटीं हुंपपाखातीर लागपी काळाक 'चांद्रदीस' म्हण्टात. पुराय

भारताचो दीस ८२½° रेखावृत्त आनी २३° ११' उत्तर अक्षवृत्त ह्या ठिकाणाचे मध्यरातीसावन सुरू जाता आनी उपरांतचे मध्यरातीक सोंपता.

एक फावट एक तारो मध्यमंडळांत दिसले उपरांत परतून तो थंयच दिसमेरेन जो काळ लागता ताका 'नाक्षत्र दीस' म्हण्टात. पूण खंयचोय तारो मध्य मंडळांत दिसपाची वेळ दर दिसा थोडी थोडी बदलत वता आनी तेखातीर तो तारो क्रमान सकाळीं, दनपारां, सांजवेळार आनी रातीचो थंय दिसता. परतून त्याच वेळार मध्य मंडळांत येवपाक ताका सुमार एका वर्साचो काळ लागता. तेखातीर नक्षत्रावयल्यान दीस मेजप वेव्हाराक गैरसोयीचें थारता. हेखातीर ज्योतिशशास्त्रांत फकत सूक्ष्म कालमापनाखातीर नक्षत्र पद्दत वापरतात. पंचांगाची रचणूक करतना हो नाक्षत्र दिसूच प्रमाण मानून तेप्रमाण घटिका, पळां ह्या कालमानाचें गणीत केल्लें आसता.

वेदांनी सौरदिसाचो उल्लेख मेळना. पूण 'अष्टका' म्हळ्यार वद्य अश्टमीची रात हो शब्द आसा. चीनी, पुर्विल्ले ग्रीक, ज्यू आनी मुसलमान लोक हे सुर्यास्त ते सुर्यास्त, जाल्यार बॅबिलोनियी, सिरियी, पर्शियी आनी अर्विल्ले ग्रीक सुर्योदय ते सुर्योदय असो दीस मानतात. ग्रेगरियी पंचांगांतल्या म्हयन्याच्या खंयच्याय दिसाक कॅलेंडर दीस म्हण्टात. कांय ज्योतिशशास्त्रीय कामांखातीर पंचांगाबदला फकत दीस मेजप सोंपें आसता. देखीक - ज्युलियी दीस. हो एके दनपारेसावन दुसरे दनपारे मेरेन आसून इ. स. पयलीं ४७१३ च्या १ जानेवारीसावन मेजतात. देखीक १ जानेवारी १९५८ म्हळ्यार २४,३६,२०५ ज्युलियी दीस जाता.

धर्तरेचो तिच्या अक्षाभोंवतणी घुंवपाचो वेग, तशेंच सूर्य आनी धर्तरी हांच्यांतलें अंतर आनी सूर्यमार्गाचो विषुववृत्ताचे पातळेकडेन आसपी कोन हे बदलत आसतात. ताका लागून सगळ्या प्रकारांच्या दिसांचो काळ बदलता. हे बदल तीन प्रकारांचे आसतात.

**हंगामी** : भरती-सुकती आनी वाऱ्याक लागून हो बदल जाता. तेखातीर मार्चांतलो दीस हो जुलयांतल्या दिसापरस ०.००१ सेकंदान व्हड आसता. हो बदल परत परत जायत आसता.

**अनियमित** : धर्तरेचो गाभो आनी हेर आवरणां हांच्यांतल्या आंतरक्रियांक लागून हो बदल जाता आसुंये. ह्या बदलाक लागून दिसाची लांबाय एकदम ०.००४ सेकंदामेरेन चड-उणी जाता. हो बदल कांय वर्सांच उरता.

**दीर्घकालीन** : चड करून दर्यांतले भरते-सुकतेक लागून जावपी उदकाचे हालचालींनी तळाक जें उदकाचें घर्शण जाता, त्या घर्शणाक लागून हो बदल जाता. ह्या बदलाक लागून १०० वर्सांमदीं दिसाची लांबाय ०.००१ ते ०.००२ सेकंदान वाडटा.

सुर्याच्या उजवाडाक लागून धर्तरेचो जो अर्दो भाग उजवाडांत आसता ताचेर दीस आनी उरिल्ल्या अर्दर्या भागाचेर काळोख आसता ताचेर रात आसता. हे दोनूय भाग एकमेकांसावन पयस करपी वाटकुळाक प्रकाशवृत्त म्हण्टात. धर्तरी वाटकुळी आशिल्ल्यान ती आपणा भोंवतणीं अस्तंतेकडल्यान उदेंतेकडेन घुंवत आशिल्ल्यान तिचो उजवाडांतलो भाग उपरांत (क्रमशः) काळखांत आनी काळखांतलो भाग उपरांत उजवाडांत येत आसता.

सूर्य उदेवंचेपयलीं थोडो वेळ आनी अस्ताक वतकच थोडो वेळ जो उजवाड आसता, ताका 'संधिप्रकाश' म्हण्टात. सूर्य क्षितिजापोंदा सुमार १८° आसता तेमेरेन संधिप्रकाश दिसता. विषुववृत्तापसून जितलो पयस वता तितलो संधिप्रकाश चड काळामेरेन मेळटा. ४८ १/२° उत्तर अक्षवृत्त ते उत्तर ध्रुववृत्त आनी ४८ १/२° दक्षिण अक्षवृत्त ते उत्तर ध्रुववृत्त ह्या भागांत गिमाच्या मदल्या अदमासाक कांय काळ रातभर संधिप्रकाश आसता.

धर्तरेच्या परिवलनाचो (Rotation) आस तिचे सुर्याभोंवतणचे कक्षेचे पातळेकडेन ६६ १/२ ° चो कोन करून कलिल्लो आसता आनी ताचो रोख सतत एकेके दिशेवटेन म्हळ्यार ध्रुवताऱ्याकडेन आसता. आसाच्या ह्या कलण्याक लागून केन्ना केन्नाय धर्तरेचो उत्तर ध्रूव सुर्याकडेन कलिल्लो आसता जाल्यार केन्ना दक्षिण ध्रूव. २१ मार्च आनी २३ सप्टेंबर ह्या तारखांक धर्तरेचो खंयचोच ध्रूव सुर्याकडेन कलिल्लो नासता. ह्या वेळार प्रकाशवृत्त दोनूय ध्रुवांतल्यान वता आनी ताका लागून दरेक अक्षवृत्ताचे सारके दोन भाग जातात. तेखातीर धर्तरेवयली खंयचीय सुवात चोवीस वरांभितर अर्दो वेळ उजवाडांत आनी अर्दो वेळ काळखांत आसता, देखून ह्या तारखांक धर्तरेचेर, सगळ्याक दीस आनी रात सारकीच आसता. २१ मार्च ते २१ जून मेरेन उत्तर ध्रूव सुर्याकडेन चडांत चड कलत वता. २१ जून ह्या दिसा तो सुर्याकडेन चडांत चड कलिल्लो आसता. २१ जून ते २३ सप्टेंबरमेरेन ताचो सुर्याकडलो कल उणो जायत वता आनी २३ सप्टेंबरा दिसा २१ मार्चा भाशेनूच दोनूय ध्रूव सारकेच कलिल्ले आसतात. २१ मार्च ते २३ सप्टेंबर ह्या काळांत विषुववृत्त सोडल्यार खंयच्याय अक्षवृत्ताचे प्रकाशवृत्ताक लागून दोन भाग जातात. उत्तर गोलार्दांतल्या अक्षवृत्तांचो व्हडलो भाग सुर्याच्या उजवाडांत आसता आनी दक्षिण गोलार्दांतल्या अक्षवृत्तांचो ल्हान भाग सुर्याच्या उजवाडांत आसता. हेखातीर ह्या काळांत उत्तर गोलार्दांत रातीपरस दीस व्हड आसता आनी दक्षिण गोलार्दांत दिसा परस रात व्हड आसता. दीस आनी रात हांच्यांतलो फरक विषुववृत्तासावन ध्रुवाकडेन वाडत वता. उत्तर गोलार्दांतले खंयचेय सुवातेचेर २१ जूनाक वर्सांतलो व्हडल्यांतलो व्हड दीस आसता आनी दक्षिण गोलार्दांतले खंयचेय सुवातेचेर ल्हानांतलो ल्हान दीस आसता. ह्या दिसा उत्तर ध्रूववृत्त आनी ताचे पलतडचो ध्रूवप्रदेश पुराय सूर्यप्रकाशांत आशिल्ल्यान थंय २४ वरां दिसूच आसता; रात नासता. तशेंच, दक्षिण ध्रूववृत्त आनी ताचे पलतडच्या पुराय ध्रूवप्रदेशांत सुर्याचो उजवाड पावना, तेखातीर थंय २४ वरां रातूच आसता. २१ मार्च ते २१ जून ह्या काळांत उत्तर गोलार्दांत सगळेकडेन दीस वाडत वता आनी दक्षिण गोलार्दांत सगळेकडेन तो उणो जायत वता. उपरांत २३ सप्टेंबरामेरेन उत्तर गोलार्दांतलो दीस ल्हान जायत वता आनी दक्षिण गोलार्दांतलो दीस व्हड जायत वता. २३ सप्टेंबराक परतून दीस आनी रात सारकीच जाता. उपरांत २२ डिसेंबरामेरेन दक्षिण गोलार्दांतलो दीस वाडत वता आनी उत्तर गोलार्दांतलो ल्हान जाता. २२ डिसेंबराक दक्षिण गोलार्दांत सगळ्यांत व्हडलो दीस आनी उत्तर गोलार्दांत सगळ्यांत ल्हान दीस आसता. ताचेउपरांत २१ मार्च मेरेन दक्षिण गोलार्दांतलो दीस ल्हान जायत वता आनी उत्तर गोलार्दांतलो व्हड जायत वता आनी २१ मार्चाक परतून सगळेकडेन दीस आनी रात सारकी जाता. प्रकाशवृत्ताक लागून विषुववृत्ताचे मात सारके दोन भाग जाल्ल्यान थंय दीस आनी रात सारकीच आसता. ध्रुवांपसून ध्रूववृत्तांमेरेन मात सुर्याचो उजवाड मेळपाचो वा ना मेळपाचो काळ २१ मार्च ते २३ सप्टेंबर आनी २३ सप्टेंबर ते २१ मार्च ह्या काळांत २४ वरांपरस चड आसता आनी तो ध्रुवांकडेन वाडत वता. उत्तर ध्रुवाचेर २१ मार्च ते २३ सप्टेंबर आनी दक्षिण ध्रुवाचेर २३ सप्टेंबर ते २१ मार्च ह्या काळांत

सुर्याचो उजवाड आसता. २४ वरां वा चड काळ सूर्य दिसपी प्रदेशांत हेर सुवातींनी म्हळ्यार ६६ १/२° उत्तर ते ६६ १/२° दक्षिण हांचे मजगतच्या प्रदेशांत जेन्ना मध्यानरात आसता तेन्ना लेगीत मळबांत सूर्य आसताच, अशा प्रदेशाक 'मध्यानरातीच्या सुर्याचो प्रदेश' अशें म्हण्टात. नॉर्वेसारक्या ज्या देशांचो वाठार ध्रूवप्रदेशांत आसा, त्या देशांतल्या सुवातींनी उमेदी भोंवडेकार मुजरत वतात.

पुर्विल्ल्या काळासावन, दिसाची वांटणी करपाच्यो खूब पद्दती प्रचलीत आशिल्ल्यो. संस्कृतांत दीस ह्या शब्दाक अह हो प्रतिशब्द आसा. ऋग्वेदांत रातीक कृष्ण अह आनी दिसाक अर्जून अह अशें म्हळां. उदेंतेसावन अस्तामेरेन दिसाचे पुर्वाह्न आनी अपराह्न अशे दोन भाग केल्यात जाल्यार कांयकडेन फांतोड, दनपार आनी सांजवेळ अशी वांटणी केल्या. बारा वरांच्या दिसाची फांतोड, संगव, मध्यान, अपरान्न, सायान्न, सायं अशे पांच वांटे करपाचीय प्रथा आशिल्ली. हो दरेक विभाग तीन म्हुर्तांचो आसता. १ मूर्त म्हळ्यार २ घटिका, स्मृतींनी दिसाचे आठ भाग मानल्यात. कौटिल्यान लेगीत दीस आनी रात हांचे दरेकीं आठ भाग कल्पिल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## दीक्षित, शंकर बाळकृष्ण : (जल्म : २०-२१ जुलय १८५३, मुरुड, रत्नागिरी; मरण : २७ एप्रिल १८९८, पुणें).

नामनेचो ज्योतिर्गणिती आनी भारतीय ज्योतिशशास्त्राचो इतिहासकार. वैशंपायन ह्या आडनांवाच्या एका चित्पावन घराण्यांत ताचो जल्म जालो. पूण शंकररावाच्या जाण्टेल्यांनी यज्ञ केल्ल्यान ह्या घराण्याक दीक्षित ह्याच नांवान वळखतात. ताचें मुळावें शिक्षण मुरूडाक जालें. ह्याच काळांत ताणें घराच अमरकोश पाठ करून, काव्य, व्याकरण ह्या संस्कृत आनी वैदिक विशयांचो मुळावो अभ्यास पुराय केलो. १८७० वर्सा ताणें पुण्याच्या ट्रेनिंग कॉलेजांत प्रवेश घेतलो. ह्या अभ्यासावांगडा ताणें मॅट्रिकेचोय अभ्यास केलो आनी १८७४ वर्सां तो मॅट्रिकेची परिक्षा पास जालो. ट्रॅनिंगाचे परिक्षेंत ताणें पयल्या दर्ज्याचें सर्टिफिकेट घेतलें.

फुडें ताणें अध्यापन होच वेवसाय म्हणून आपणायलो. १८७४ ते १८८९ ह्या काळांत ताणें रेवदंडा, ठाणें आनी बार्शी हांगा मुख्याध्यापक म्हणून काम केलें. उपरांत धुळ्याक ट्रेनिंग कॉलेजांत शिक्षक म्हणून काम करतकच ताची खूब नामना जाली आनी १८९४ वर्सा पुणें ट्रेनिंग कॉलेजांत ताची बदली जाली.

मुळांत ताका गणिताची आवड. रेवदंड्याक आसतना ताणें विसाजी लेले हाचे ज्योतिशशास्त्रावयले लेख वाचिल्ले. हाका लागून ताका ज्योतिशशास्त्राविशीं ओड निर्माण जाली. धुळे, पुणें हांगाच्या वास्तव्यांत ताणें ज्योतिशशास्त्र आनी गणित हांचो तपशीलवार अभ्यास करून भारतीय ज्योतिशशास्त्रांतल्या विंगड विंगड सिध्दांताची म्हायती करून घेतली. हेखातीर ताणें पांचशांपरस चड संस्कृत ग्रंथांचो अभ्यास केल्ल्याचें समजता. अशा पुर्विल्ल्या भारतीय ग्रंथांवयल्या उल्लेखांवयल्यान ताणें कांय ग्रंथांचे काळ थारायल्यात. देखीक - शतपथ ब्राह्मणांतले एके ऋचेच्या आदारान ताणें त्या ग्रंथाचो काळ इ. स. पयलीं ३००० वर्सां, तशेंच वेदांगज्योतिशाचो काळ इ. स. पयलीं १४०० वर्सां असो थारायलो. तशेंच वैदिक काळांत खंयच्यो ज्योतिशशास्त्रीय गजाली खबर आशिल्ल्यो, त्योय ताणें सप्रमाण दाखोवन दिल्यो. ग्रीक आनी भारतीय ज्योतिशशास्त्रीय विचारांचे तुळेन अभ्यास करून भारतीय ज्योतिशशास्त्र हें स्वतंत्र वेध आनी संशोधन हांचेवतीन उदरगतीक पाविल्लें शास्त्र आसा, हें ताणें सिध्द करून दाखयलें. पंचांग सोदपाचें शास्त्र, नक्षत्रसंख्या आनी अंकगणीत हें भारतीयांनीच जगाक दिलें, हे ताणें दाखोवन दिलें. तशेंच, राशी, वार हे मूळ भारतीय न्हय, अशेंय ताचें मत आसा. फलज्योतिशाचेर ताचो चडसो विस्वास नाशिल्लो पूण तो ताचेर विचार करतालो.

खोलायेन केल्ल्या अभ्यासावरवीं ज्योतिशशास्त्राच्या मळार दीक्षित हाणें बरीच नामना जोडली. डॉ. फ्लीट सारकिलो नामनेचो इतिहास जाणकार ताचेकडल्यान मार्गदर्शन घेतालो. दीक्षिताच्या पालवानूच ताणें 'इंडियन कॅलेंडर' हो इतिहासीक संशोधनात्मक ग्रंथ बरयलो. ह्या ग्रंथांत पंचांगांविशींच्या आनी कालगणनेच्या सगळ्या गजालींची विस्कटावणी केल्या 'गुप्तास इन्स्क्रिप्शन' हो ग्रंथ बरोवपाकूय फ्लीट हाका, दीक्षितान खूब आदार केलो.

दीक्षितान विद्यार्थिबुध्दिवर्धिनी (१८७६), 'सृष्टचमत्कार' (१८८२) आनी 'सोपपत्तिक अंकगणित' (१८९७) हीं तीन पुस्तकां शाळकरी विद्यार्थ्यांखातीर बरयलीं. ताचें 'धर्ममीमांसा' (१८९५ - ९७) हें पुस्तक मॅक्स म्यूलराच्या गिफर्ड - व्याख्यानांचो अणकार. ताच्या 'भारतवर्षीय भूवर्णन' ह्या पुस्तकांत ताणें वेद, पुराणां आनी हेर पुर्विल्ल्या ग्रंथांच्या आदारान पुर्विल्ल्या थळांची खाशेली म्हायती दिल्या. 'ज्योतिर्विलास', 'रात्रीच्या दोन घटका मौज' आनी 'अंतरिक्षांतून फेरफटका' अशीं तीन नांवां धारण करपी पुस्तकांत, ताणें मळबांतल्या ताऱ्यांची-गिऱ्यांची म्हायती, सादे-सोपें भाशेंत दिल्या. 'भारतीय ज्योतिशशास्त्र' (१८९७) हो ताचो संवसारीक नामनेचो ग्रंथ. ह्या ग्रंथांत ताणें, वेदकाळासावन भारतीय ज्योतिशशास्त्राची उदरगत कशी कशी जायत गेली, ताचो इतिहास सगळे मूळ ग्रंथ खोलायेन अभ्यासून मांडला.

ह्या ग्रंथाची सुदारीत आनी आर्विल्ली म्हायती आशिल्ली आवृत्ती ताचो पूत रामचंद्र दीक्षित हाणें १९४८ वर्सा उजवाडायली. ह्या ग्रंथांत ताणें पंचांगशोधन आनी तेविशींचीं मतां हांची विस्तारान विस्कटावणी केल्या. तशेंच हें शास्त्र फकत भारतीयांनीच विकसीत करून जगाक दिल्ल्याचो सिद्धांत सप्रमाण मांडला. ताच्या ह्या कार्याक लागून जायत्या युरोपी पंडितांनी, भारतीय विद्येच्या क्षेत्रांत, मांडिल्ल्या सिध्दांताचो अर्थ बदललो. ह्या ताच्या कार्यांक लागून वेदांचे प्राचीनतेविशीं युरोपीयांचे दुबाव लेगीत पयस जाले. ग्रीक ज्योतिश आनी भारतीय ज्योतिश हातूंत खंयच सारकेंपण नाशिल्ल्यान 'ज्योतिशाचीं मूळ तत्त्वां ग्रीसांतल्यान हिंदुस्थानांत आयलीं' हें थिबो हाचें मत बरोबर ना, हें ताणें स्पश्टपणान दाखोवन दिलें. टॉलेमी पयलींच्या वासिष्ठ सिध्दांतांत अंशाचे साठ वांटे मेळटात, हें दाखोवन दिवन 'टॉलेमीसावन हिंदूक ज्योतिशाचें सर्वस्व मेळ्ळें' हें बर्जेचें प्रतिपादन फट थारायलें.

दीक्षित हाणें 'इंडियन अँटिक्केरी एपिग्राफिका इंदिका', 'शालापत्रक' आनी 'ज्योतिषकल्पतरू' ह्या म्हयनाळ्यांनीं आनी 'नेटिव ओपिनयन' ह्या दिसाळ्यांतूय विंगड विंगड शास्त्रीय विशयांचेर लेख बरयल्ले.

दीक्षिताचें हें कार्य भारतीय ज्योतिशांतूच न्हय, जाल्यार भारतीय आनी अस्तंती विद्येच्या क्षेत्रांतूय अजरंवर उरलें. दीक्षिताचे ग्रंथ वाचपापसत कांय अस्तंती पंडीत मराठी भास शिकले. परिपूर्णताय आनी मुदयेर थीक कशें जुस्ताजुस्त बरोवप हें दीक्षिताचें खाशेलपण आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**दुकर :** समखुरी प्राणीगणांतलें सगळ्यांत व्हड जनावर. वर्गीकरण : संघ : कार्डाटा (पृष्ठवंशी); जात : मामालिया (दूद दिवपी); वर्ग : अँटीओडेक्टायला; कूळ : सुईडे (रवंथ न करपी); जिनस : सुस लिन. दुकराचें शरीर मोटसार, पांय मोटवे, दाट कात, मोटवे आनी खरखरीत केंस, सहज हालचाल करपी लांबतें तोंड, ल्हान शेंपडी. भारतांतलो गांवठी दुकर ही ल्हान आकाराची मोनजात. हो दुकर चडसो काळ्या रंगाचो आनी वेगवेगळ्या आकारांचो आसता. दुकराक वट्ट ४२ दांत आसतात. दुकराची हाडां घट आशिल्ल्यान ते नेटान धपको दिवन सादी वणत मोडूंक शकतात. दुकराक घाम येना. ताका लागून हवेंतल्या वातावरणाचो ताचेर रोखडोच परिणाम जाता. ताका म्हशीवरी चिखलांत बसूंक आवडटा. तशेंच ताका माती खणून बुराक करपाची संवय आसता.



आर्विल्ल्या दुकरांची पैदास ही मूळच्या दोन जातींमदली आनी आतांचो पाळीव दुकर (सुस दॉमॅस्तिकस) हो हजार वर्सांआदीं सावन ल्हव-ल्हव जाल्ल्या विकासाक लागून जाला. सुमार २.५-३ कोटी वर्सांआदले युरोपांतले 'पॅलिओकेरीस' हे प्राणी म्हळ्यार सुइडी कुळांतल्या प्राण्याचे वंशज मानप जाता. मायोसीन कल्पांत (२ ते १.२ कोटी वर्सांपयलीच्या काळांत) तांचो नाश जावंचेआदीं भारत आनी आफ्रिका ह्या वाठारांत तांचो प्रसार जाल्लो. सद्याक अस्तित्वांत आशिल्ल्या मनशाळिल्ल्या दुकरा जातीचे पुर्वज मायोसीन कल्पाच्या निमाणें युरोपांत आशिल्ले. आनी फायोसीन कल्पांत ताचो आशिया खंडांत प्रसार जालो. युरोपांतलो रानटी दुकर (सुस स्क्रोफा) आनी चीन, जपान तशेंच उदेंत आशियांतलो रानटी दुकर (सुस व्हितॅतस - सुस इंदिकस) हाचेपसून संवसारांतल्यो दुकराच्यो सगळ्यो रानटी जाती तेचपरी आर्विल्ल्यो मनशाळिल्ल्यो जाती निर्माण जाल्यो.

पुर्विल्ल्या काळांत ग्रीसांत दुकराक आगळेंच म्हत्व आशिल्लें. डिमीटर ही ग्रीक देवता दुकराक पवित्र मानता. इजिप्तांत ओसायरिस ह्या देवाच्या भौमानाक वर्सांतल्यान एक दीस दुकराचें मास खाताले. उत्तर युरोपांत शिंया दिसांनी दुकर मारून खाताले आनी ताचीं हाडां, बिंयां वांगडा जमनींत पुरून दवरताले. न्यू गिनींत दुकरांक अजुनूय पवित्र मानतात. जपानांत देशांतल्या दुकराचो कळप सुदारपाक आदार जाता अशा दुकराच्यो प्रतिमा पुजप जाताल्यो.

अग्नीपुराण ह्या ग्रंथांत तिसऱ्या अवतारांत विष्णुन वराहाचो म्हळ्यार दुकराचो अवतार घेतिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. भारतांतल्या पुर्विल्ल्या वैजकीशास्त्रांतल्या 'राजवल्लभ' नांवाच्या ग्रंथांत, दुकराचें मास वातहारक, बलवर्धक आनी बद्धमूत्र करपी, जाल्यार रजनिघंटु ग्रंथांत तें वीर्यवृध्दी करपी असो उल्लेख मेळटा.

इ. स. १५००त स्पेन, इंग्लंड आनी हेर देशांतल्या लोकांनी अमेरिकेंत वसणुको करच्या वेळार दुकरांकय आपले वांगडा व्हेलीं. सुणीं आनी भाले हांच्या आदारान घोड्याचेर बसून दुकराची शिकार करपाची चाल जायत्या देशांनीं आशिल्ली.

संवसारांतल्या सगळ्या देशांनी दुकर दिश्टी पडटा. तातूंत चीन देशांत दुकराचें प्रमाण सगळ्यांत चड आसा. भारतांत जरी दुकर सगळ्या वाठारांनी मेळटा तरी दुकराचें प्रमाण उत्तर प्रदेशांत सगळ्यांत चड आसा. बिहार, आंध्र प्रदेश, तमीळनाडू, आसाम, मध्य प्रदेश, कर्नाटक आनी गोंय ह्या प्रदेशांनी दुकरां दिश्टी पडटात.

दुकराच्यो सगळ्यो आर्विल्ल्यो जाती चड करून इंग्लंड आनी युरोपांतच तयार जाल्यात. इंग्लंड आनी अमेरिका ह्या देशांतल्यान सुदारीत जातींच्या दुकरांची आयात करून त्या त्या देशांनीं आनीकय खाशेल्यो जाती तयार जाल्यात. ह्यो परदेशी जाती अशो - बर्कशायर : इंग्लंडांतले सुदारिल्ले जातींत ही जात सगळ्यांत पयलीं (२) व्हड धवे यॉर्कशायर : इंग्लंडांतल्या यॉर्कशायर परगण्यांतली ही जात. चड करून इंग्लंड, ऑस्ट्रेलिया आनी न्यूझीलंड ह्या देशांतल्यान भारतांत हे जातीच्या दुकरांची आयात करतात. (३) मध्यम धवे यॉर्कशायर : व्हड आनी ल्हान धवे यॉर्कशायर हांच्या संकरान इंग्लंडांत तयार जाल्ली ही जात. (४) लँड्रेस : ही जात मूळची स्विट्झरलंडांतली. मध्य आनी उदेंत युरोपांतल्या स्विडन, डॅन्मार्क आनी जर्मनी ह्या देशांनीं हे जातीचीं दुकरां मेळटात. (५) हँपशायर : अठराव्या शतमानाचे सुर्वेक इंग्लंडांतल्यान वेसेक्स सॅडलबॅक हे जातीच्या दुकरांची आयात करून अमेरिकेंत ही जात निर्यात करप जाल्या. (६) टॅमवर्थ : हे जातीचीं दुकरां ऑस्ट्रेलिया, कॅनडा, न्यूझीलंडांत मेळटात. (७) पोलंड चीनी - चिनाज : पॉलीश आनी व्हड चायना हे जातीच्या संकरांतल्यान १८३५ - ७० ह्या काळांत ही जात बटलर आनी बॉरन ह्या परगण्यांत निर्माण केली. (८) स्पॉटेड स्वायन : अमेरिकेंतल्या इंडियाना राज्यांतल्या थिपके आशिल्ल्या थळाव्या दुकरांकडेन पोलंड, चायना आनी इंग्लंडांतल्या इ. स. १९१४त आयात केल्ल्या ग्लाउसॅस्टर हे जातीच्या संकरान ही जात निर्माण केली. (९) ड्यू रॉक : अमेरिकेंत न्यूयॉर्कांतल्या ओल्ड ड्यू रॉक आनी न्यू जर्सींतल्या रॅड जर्सी हे जातीच्या संकरान ही जात तयार केली. मको खावन जियेवपी हीं दुकरां आर्जेंटिना, कॅनडा, चिली युरुग्वाय ह्या देशांनी मेळटात. (१०) कॅंटोनीस : दक्षिण चीनांतल्या काळ्या - धव्या रंगाची ही दुकरांची जात. हाचेभायर उश्ण हवामानाच्या आशियांत चीनी, मलायी तेचपरी बाली सुंबा, फिलिपिन्सांतली इलोकॅनो हीं काळीं - धवीं दुकरां आनी जलजाल तशेंच बर्कशायर हांच्या संकरापसून तयार जाल्ल्या बर्कशाला ह्यो जाती आसात.

भारतांतल्यो जाती : (१) भारतीय रानटी दुकर (सुस स्क्रोफा क्रिस्टॅटस) : भारतांतल्या रानटी वाठारांनी हो प्राणी सगळेकडेन दिश्टी पडटा. (२) ठेंगू (सुस सॅलव्हॅनियस) हे जातीचीं दुकरां नेपाळ, भूतान आनी आसामाकडल्या हिमालयाच्या मुळसांत आशिल्ल्या दाट रानांनीं दिश्टी पडटात. (३) देशी : जायत्या वर्सांसावन रानांतलीं रानटी दुकरां ल्हव-ल्हव करून मनशाळून ही जात निर्माण जाल्या. हाचेभायर भायल्या देशांतल्या सुदारीत जातींच्या दुकरांची आयात करून तांचे थळावे जातीच्या दुकरांकडेन संकर करून सुदारीत जाती पैदा करपाचे यत्न चालू आसात. हे प्रकार चडशे उत्तर प्रदेशांतल्या आग्रा, मेरठ, इटा, मेनपुरी, फरुखाबाद, मुझफरनगर ह्या वाठारांनी तेचपरी पंजाब, दिल्ली ह्या राज्यांनी चालू आसात. भारतांतले दुकराचे परकीय प्रकार अशे - लार्ड योर्कशायर,

मिडय यॉर्कशायर, लँडरेस, सॅडलबॅक हॅम्पशायर आनी टॅमवर्थ.

पाळीव मोनजातींत दुकर ही सगळ्यांत चड प्रजनन करपी मोनजात. ते दर विताक ६-१२ पिलांक जल्म दितात. ८ ते १० म्हयन्यांनी नर आनी मादीची पुराय वाड जाता. मादी म्हळ्यार दुकन्न दर २१ दिसांनी माजार येता, हो माज ४०-६५ वरां उरता. दुकराचो संयोग २० मिनटां वा इल्लो अदीक वेळ जाता. दुकन्न दुसऱ्या वा तिसऱ्या दिसा नराकडेन संयोग करता. गाबणी जालिना जाल्यार परत तीन सप्तकां उपरांत मादी माजार येता. दुकन्नीचो गाबणकाळ ११२-११५ दीस आसता. जाण्टे दुकन्नीचो गाबणकाळ नवे दुकन्नीपरस चड उरता. स म्हयन्यांनी दुकराचें पील ६० ते ७० कील वजनाचें जाता आनी दोन वर्सांनी दुकराचें पील १५० ते २०० कील वजनाचें जाता.

दुकराक सारकी खावड, नितळ, सुकें तशेंच हवेशीर घर आसपाक जाय. दुकराच्या घराचें तापमान एकसारकें आसपाक जाय. दुकन्नीक पिलांक चिड्ड्डुपाची तशेंच पिलांक खावपाची संवय आसता. हे संवयेक लागून पिलांक वांचोवंक दुकरीण वियेवपाच्या जाग्यार गार्ड रेल दवरपाक जाय. पिलांक आवयकडेन दोन म्हयने दवरून मागीर तांकां पयस करपाक जाय. दुकरांचो जागो ऊंच आसपाक जाय. गाय, म्हस आनी मेंढरांपरस दुकर तंतुयुक्त अन्न चड पचोवंक शकता. उरिल्लें अन्न, धोण (शिताचो निवळ), उपेग नाशिल्ली भाजी, पेंड आनी उश्टवारो हांचेर दुकर पोसता.

**उपेग :** दुकरापसून पोर्क, बॅकन, हॅम सॉसेज, लार्ड (दुकराची चरबी) हांकां देशांत तशेंच परदेशांत मागणी आसा. दुकराचे कातीचो उपेग चामड्याच्यो वस्तू करपाक जाता. दुकरापसून मेळटा त्या साऱ्याचो उपेग मातयेंत वा नुस्त्याच्या तळ्यांत करपाक जाता. तशेंच दुकरांच्या केंसांपसून ब्रश तयार करतात.

भारतांत दुकरांचें मास खातल्यांचो आंकडो खूब उणो. तरी गांवगिऱ्या वाठारांनी आनी ल्हान शारांनी तांकां पोसतात. तीं गांवांतली घाण आनी उश्टें खावन आपली उपजिविका करता आशिल्ल्यान, गांवगिऱ्या वाठारांनी जंय संडासाची सुविधा नासता वा कोयराचो विलो करपाची सारकी वेवस्था नासता. थंय दुकरांचो बरो उपेग जाता.

**रोग आनी उपाय :** दुकराचें सामान्य तापमान १०१.२ कॅ. (३८° सॅ.) ते १०२.५° कॅ. (३९° सॅ.) आसता. दुकराची कात निस्तेज तशीच खरखरीत आसल्यार हें रोगाचें लक्षण आसूं येता. खरखरीत केंस दिसून आयल्यार दुकराक वल्या वा दमट वातावरणांत दवरपाक जाय. दुकराक आंगाभायल्या किटाणूंची तशेंच पोटांतल्या दंतांची लागण जावंक शकता. आंगाभायल्या किटाणूंमदीं मँज, लिखो तेचपरी पोटांतल्या दंतांमदीं वेगवेगळ्या प्रकारचे दंत आसूंक शकतात. दुकरांक जावपी रोगांमदीं 'हॉग कॉलरा' (दुकाराचो जोर), स्वायन पॉक्स (लाळेचो रोग), स्वायन प्लेग, स्वायन एरीसिपेलस ब्रुसलॉसिस, अँथ्रेक्स, पोस्ट पारटचुरीएंट फिवर (विता उपरांतचो जोर) आनी पिलांक रक्तक्षय हे रोग जावंक शकतात. दुकरांचो जोर, लाळेचो रोग आनी अँथेक्रेस ह्या रोगाची लस तोपून घेवंची पडटा. दुकराच्या पिलांक जावपी रक्तक्षय पयस दवरपाक लोहयुक्त वखद आंगांत भितर सोडपाक जाय. तशेंच लोहखनीज वखदां तोंडांतल्यान घेवंक दिवंक जाय. हीं वखदां ३ दिसांचेर तशेंच १४ दिसांचेर दिवपाक जाय. दुकन्नीक वियेतकच जोर येत जाल्यार अँटिबायोटिक्साचीं इंजेक्शनां दिवंक जाय.

हेर मोनजातीपरस खाल्ले खावडीपसून दुकर चड मास उत्पन्न करूंक शकता. दुकर थायामीन नांवाचें विटामीन चड तयार करूंक शकता. हाचेभायर नायसिन, रिबोफ्लावीन आनी लोहखनीज हांचें प्रमाणय दुकर तयार करूंक शकता.

– डॉ. हृदयेशकुमार मालवीय

**दुकळ :** अन्नाचो व्हड प्रमाणांत उणाव जावन उपासमारीची परिस्थिती व्हड वाठारांत आनी दीर्घकाळाखातीर निर्माण जाता तेन्ना ते परिस्थितीक दुकळाची परिस्थिती म्हण्टात. दुकळ हो सैम निर्मीत तसो मानव निर्मीत आसता. पावसाचें आवर्शण (उणो पावस), तशेंच पावसाची अतीवृश्टी (बुडटी), वादळ, भूंयकांप, टोळधाड हीं सैम निर्मीत कारणां. म्हाझुजां, राजकीय आनी अर्थीक उलथापालथ, सांठेबाजी, नफेबाजी आनी सत्तेबाजी हातूंतल्यान निर्माण जावपी अडेचो अन्नधान्य उणाव, कृत्रीम भाववाड, शासनाची निश्क्रियताय, येरादारीचो उणाव ही मानव निर्मीत कारणां. सैम निर्मीत दुकळांत धान्य उत्पादनाचेर आवर्शण पडिल्ल्यान सरसकट सगळ्या लोकांची उपासमार जावन लोकावांगडाच जनावरांचीय हानी जाता. उपासमारांनी लाखांनी लोक मेल्ल्याचीं उदाहरणां मेळटात. आधुनिक काळांत सैम निर्मीत दुकळावांगडाच मानव निर्मीत दुकळय पडपाक लागल्यात. मानव निर्मीत दुकळांत बेकारी, म्हारगाय हांकां लागून बाजारांत धान्य उपलब्ध आसुनूय तें विकतें घेवपाची ऐपत नाशिल्लेच दुकळाचे भकीक पडटात. सर्वसादारण गिरेस्त मनशाचेर अशा दुकळाचो व्हडलोसो परिणाम जायना.

भारतांत ऋग्वेद आनी अथर्ववेदांत दुकळाचो उल्लेख मेळटा. तसोच दुकळाचो उल्लेख बायबलांतय मेळटा. आदल्या काळांतल्या दुकळाच्यो सविस्तर नोंदी जाल्ल्यो नासल्यो तरी दुकळाची परिस्थिती खूब आदींसावन निर्माण जायत आसा. भारतांत मध्ययुगीन कांळांतलो पयलो दुकळ १२९१ वर्सा पडलो. अकबर बादशहाच्या काळांत १५५३, १५५७ आनी १५८३ असो तीन खेपे दुकळ पडलो. ताचे उपरांत इस्ट इंडिया कंपनीचें राज्य सुरू जायमेरेन हिंदुस्थानाच्या वेगवेगळ्या वाठारांनी सुमार ११ दुकळ पडले. १८६०-१९०८ ह्या काळांत २० फावटीं दुकळाची परिस्थिती निर्माण जाली. पुराय भारतभर असो एकाच वेळार दुकळ पडलो नासलो तरी देशाच्या दर एका वाठारान केन्ना ना केन्ना तरी दुकळ अणभवला. ह्या दुकळाचें प्रमाण दर पांच वर्सांनी एक अशें आसा आनी हें प्रमाण १९२४ मेरेन चललें. उपरांत मात असो नेमान येनासतना परिस्थितीक धरून दुकळ येत रावलो. १९४३त जाल्लो बंगालचो दुकळ, १९६५-१९६६त जाल्लो आंध्र, कर्नाटक, महाराष्ट्र, ओरिसा, राजस्थान, मध्य प्रदेश, पंजाब राज्यांतलो दुकळ, १९७२-७३त जाल्लो कांय वाठारांतलो दुकळ हे भारतांतले मुखेल अशे दुकळ.

भारतांत पडिल्ल्या दुकळाचीं कारणां म्हळ्यार बेभरवंशी पावस आनी हवामान, बुडटी आनी आवर्शण, धान्य उत्पादनाची मागाशिल्ली पद्दत, येरादारीचीं उणीं साधनां आनी वाडटी लोकसंख्या.

**दुकळ निवारण :** दुकळ हें सैमीक आवर्शण जाल्ल्यान आनी अन्नधान्याची तूट ही दुकळाची मुखेल समस्या जाल्ल्यान दुकळाचे परिस्थितीचेर सुर्वेक सावन उपाय जायत आयल्यात. पुरुमेंताच्या धान्याचो उपेग करप, अन्नछत्र घालप, धान्याच्या खंडांत सूट दिवप ह्या सारकिले

तातपुरत्या स्वरुपाचे थळावे अशे उपाय आदीं करप जाताले. १८७६ - १८७८त भारतांत पडिल्ल्या भिरांकूळ दुकळाक लागून १८८०त दोन भारतीय वांगडी आशिल्लें सर रिचर्ड स्टिची हाचे अध्यक्षतायेखाला पयलें फॅमिन कमिशन नेमप जालें. ह्या कमिशनान सादर केल्ल्या अहवालांत दुकळ पिडेस्त वाठारांत प्रशासनान घेवपाची जतनाय, दुकळ पडचो न्हय हेखातीर करपाची फुडाराची तजवीज आनी फाटल्या १५-२० वर्सांतल्या काळांतल्या दुकळाचो इतिहास हांचो आस्पाव जाता. पयल्या फॅमिन कमिशनान केल्ल्या सुचोवण्यांक धरून दुकळा संबंदींची आचारसंहिता तयार करून तातूंत दुकळी कामां निर्माण करप, जाण्टे, अपंगूळ हांकां जिवीत वेतन दिवप, जमीन मालकांक तगाई रिणां दिवप, दुकळ पिडेस्त वाठारांतल्या धान्यखंडांत सूट दिवप, अन्नधान्याचे देवघेवीचेर नियंत्रण दवरप आनी दुकळ निवारण निधी उबारप ह्या कलमांचो आस्पाव जालो. तेभायर येरादारी, शिंपणावळी सारकिल्यो अन्नधान्यासंबंदीत शिफारसी करप जाल्यो. ह्यो सुचोवण्यो आनी शिफारशींच्या आदारान सरकारान १८८३त दुकळासंबंदींचे नेम तयार केले. १८९८त दुसरें फॅमिन कमिशन नेमप जालें. पयल्या कमिशनान केल्ले शिफारसीवरवीं सुचयल्ल्या आदाराच्या प्रमाणांत दुसऱ्या कमिशनान वाड सुचयली. १८९९-१९०० ह्या काळांत पडिल्ल्या दुकळा उपरांत सरकारान १९०१त तिसरें कमिशन नेमलें. ह्या कमिशनाच्यो शिफारसी पयल्या दोन कमिशनांच्या शिफारसींक पुरक अशो आसल्यो. १९४३ सालांत पडिल्ल्या भिरांकूळ दुकळाउपरांत सरकारान एक दुकळ आयोग नेमलो. ह्या आयोगान संरक्षणात्मक आनी प्रतिबंधात्मक अशे दोन तरांचे उपाय सुचयले. संरक्षणात्मक उपायांनी आदल्या कमिशनान केल्ल्या शिफारशींचो पुर्नउल्लेख आसलो. प्रतिबंधात्मक उपायांनी शिंपणावळ, वनीकरण, सवलतीच्या दरान रिणां आनी येरादारेंत सुदारणां हांचो आस्पाव आसलो. भारताच्या स्वातंत्र्या उपरांत १९६५ - ६७ च्या दोन वर्सांच्या दुकळांत दुकळ पिडेस्त राज्याखातीर मार्गदर्शक तत्त्वां सुचोवप जालें. भौशीक वितरण वेवस्थेचेर भर दिवन सवाय तरेच्या धान्याची पुरवण करपा संबंदीं तेन्ना विचार जालो.

१९७२-७३ ह्या काळांत पडिल्ल्या दुकळांत दुकळी रोजगार आनी फुकट अन्नधान्य वांटपाची कार्यावळ हातांत घेतनाच भौशीक आरोग्य, शेती उत्पादन, पियेवपाचें उदक हांचेर लक्ष दवरप जालें. हाचे फुडें १९८०-८१, १९८६-८७ वर्सा पडिल्ल्या दुकळांत ग्रामीण रोजगार येवजण, ग्रामीण पोशण येवजण, ग्रामीण उदका पुरवण येवजण आनी ग्रामीण भलायकी सांबाळप येवजण हांचेर भर दिवप जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**दुदी :** हातूंत काळो दुदी, कोंकण दुदी आनी तांबडो दुदी अशे तीन प्रकार आसात.

**काळो दुदी :** (मराठी : काळा भोपळा; हिंदी : सीताफल, सफारी कुमडा, कद्दू, मीठा कद्दू, काली दूधी, पीला कोहडा; इंग्लीश : पंपकिन, स्क्वोश, रॅड गुॅर्ड, रॅड पंपकिन, मस्क मेलन, मेलन पंपकिन, कुशॉ, कॅनडा क्रूक नेक, विंटर क्रूक नेक; लॅटिन : कुकुर्बिटा मोशाटा; कूळ : कुकुर्बिटेसी).

ही वर्सभर जगपी, दुसऱ्याच्या आदारान वयर चडपी वाल. पानां मोव, खंडीत आसून तांचेर चडशे धवशे वा रंगीत थिपके आसतात. पानांच्या देंठार मोव केंस आसतात. फळांचो देंठ वाटकुळो आनी खोल आसून फळाक जोडिल्ल्या जाग्यार ते पातळिल्ले आसतात. फळांनी चड करून दोन प्रकार दिसतात. एका प्रकारांत तीं कांय प्रमाणांत गुळगुळीत आनी लांबट वाटकुळी आसतात. जाल्यार दुसऱ्या प्रकारांत तीं खांची खांची आशिल्ली आनी वाटकुळीं वा बसकीं आसतात. तरणीं आसतना हीं फळां गाड पाचवीं आनी पिकतकच तांचे भायलेवटेन पाचव्या निळ्या रंगाचें नाजूक आवरण आसता. गराचो रंग हळदुवो वा काळपट जांबळो आसता. बियो सपाट आनी करड्या वा तपकिरी रंगाच्यो आसून तांची देग बियांच्या रंगापरस वेगळ्या रंगाची आसता.

ह्या पिकाक उश्ण हवामान लागता. भरपूर आर्द्रता आनी सौम्य तापमान आशिल्ल्या वाठारांत हें पीक बरें येता. ह्या पिकाक खंयचीय पूण बरी निचऱ्याची जमीन मानवता. वालीचीं मुळां जमनीच्या वयल्या भागांत वाडपी आनी पसरपी आसतात. पावसाळी पिकाची लागवड जून - जुलय म्हयन्यांनी जाल्यार वायंगण्या पिकाची लागवड जानेवारी-मार्च म्हयन्यांनी करतात. नांगरून बरे भुसभुशीत केल्ले जमनींत ८० सेंमी. व्यासाचीं वाटकुळीं आळीं खणून, तातूंत भरपूर शेणखत घालून दरेका आळ्यांत ३-४ बियो लायतात. वायंगणी पिकाक गरजेप्रमाण ४-५ वा ८-१० दिसांनी उदक दितात. ह्या पिकाक हॅक्टेरी ८० कील नायट्रोजन (दोन हप्त्यांनी) ५० कील फॉस्फरस आनी तितलेंच पॉटॅश दितात. बी लायतकच तीन ते चार म्हयन्यांनी हे दुदी तयार जातात. ताचेउपरांत दोन म्हयन्यांमेरेन फळां मेळत रावतात. फळां काडटना देंठाचो कांय भाग दवरून काडटात. हीं फळां ४-६ म्हयने तिगतात. पावसाळी पिकाचें हॅक्टरी उत्पादन १३,७०० - १८,८०० कील आनी वायंगणी पिकाचें उत्पादन ६५०० - ७५०० कील आसता. काळो दुदी मुखेलपणान शाकेखातीर वापरतात.

फळाचो सुकिल्लो गर थुकयेंतल्यान येवपी रगत आनी फुफुसांतल्यान जावपी रक्तस्त्राव हांचेर गुणकारी थरता. फळाक लागून आशिल्ल्या देंठाचो भाग सुकोवन उदकांत शिजोवन विखारी जिवान दंश केल्ल्या जाग्यार लायल्यार बरें.

ह्या पिकाक भुरी, तंतुभुरी, मर आनी वायरसजन्य रोग जातात. भुरीखातीर गंधकाचो आनी तंतुभुरीखातीर ताम्रयुक्त कवकनाशकांचो वापर करतात. ह्या पिकाक पैंगीळ आनी मूस ह्यो किडी लागतात. पैंगीळाखातीर १% लिडेनाची पावडर आनी मुसाक लागून मॅलॅथिऑन फवारतात.

**कोंकण दुदी :** (मराठी : दुधी भोपळा; हिंदी : कद्दू, तुमरी, लौकी; गुजराती : दुधी, तुंबडा; कन्नड : हळगुंबळा; संस्कृत : तुंबक, कटुतुंबी; इंग्लीश : बॉटल गुर्ड, कॅलबश गुर्ड, कॅलबश क्युकंबर; लॅटीन : लॅजिनेरिया सायसेरेरिया, ल्युकँथा ; कूळ : कुकुर्बिटेसी).

हे केंसाळ वालींत आनी कारार्थे, तवशें हांच्या वालींनीं शारिरीक लक्षणां सारकींच आसतात. हाचीं फुलां धवीं आनी एकलिंगी आसून फळां सादारणपणान लांबट बाटलेवरी वा वाटकुळीं चेंबुवरी आसतात. फळांची लांबाय १.८ सेमी. मेरेन आनी वजन ९ किलांमेरेन आसता. फळांचो रंग लेव पाचवो आसून साल सुळसुळीत आसता. फळां पिकतकच साल धवी जाता. बी धवी, १.६ ते ८ सेमी लांब आनी गुळगुळीत. फळांतलो गर मोव आनी खावपाक मेळटा असो आसून ताची भाजी, खीर वा हालवो करतात.

ही वाल मूळची आफ्रिकेंतली आसून तिचीं फळां दर्याच्या उदकावांगडा

व्हांवत वचून अमेरिका खंडांत पावली अशें मानतात. इ. स. आदीं ७०००-५५०० ह्या काळांतले मॅक्सिकोचे होंवरींतल्यान कोंकण दुदयाचे अवशेश मेळ्ळ्यात. इ. स. आदीं ३५००-३००० ह्या काळांतल्या इजिप्तांतल्या थड्यांत ह्या दुदयाचे सालीचे अवशेश मेळ्ळ्यात. ॲबिसिनिया, मोलकाझ जुंवे आनी भारत (मलबार, डेहराडून) ह्या सुवातींचेर ही वाल रानटी अवस्थेंत दिसता. सदद्या अमेरिका, ऑस्ट्रेलिया, चीन आनी भारतांत ही वाल सगळेकडेन लागवडीखाला आसा.

लागवडीखाला आशिल्ले आनी रानटी अशे कोंकण दुदयाचे दोन मुखेल प्रकार आसात. रानटी फळां कोडू आसतात. लागवडींतल्या प्रकारांत वेगवेगळ्या जमनींखातीर आनी हवामानांखातीर जायत्यो सुदारीत जाती उपलब्ध आसात. त्यो अशो - (१) पुसा समर प्रॉलिफिक लाँग : फळां ४०-५० सेंमी. लांब आनी २०-२५ सेंमी. घेराचीं आसतात. दरेके वालीक १०-१५ फळां धरतात. हॅक्टेरी उत्पादन १२,००० कील मेळटा (२) पुसा समर प्रॉलिफिक राऊंड : फळां पाचवीं, वाटकुळीं आनी १५-१८ सेंमी. घेराचीं (३) पुसा मेघदूत : फळां लांब आनी लेव पाचवीं, हॅक्टेरी २५,००० कील उत्पादन मेळटा. (४) पुसा खरसाईः फळां ३८-४५ सेंमी. लांब (५) पंजाब वाटकुळीं : हीं फळां वाटकुळीं आसून हॅक्टरी उत्पादन १७,५०० कील मेळटा (६) पंजाब लांब : पावसाळी पीक हॅक्टेरी उत्पादन २०,००० कील (७) पुसा मांजरी : फळां वाटकुळीं, लेव हळदुवीं हॅक्टरी उत्पादन २५,३०० कील.

हें चड करून गिमांत रोवपाचें पीक. हें पीक कसलेय तरेचे जमनींत येता. पूण बरे निचऱ्याचे आनी भरपूर सारें आशिल्ले जमनींत उत्पन्न बरें येता. हाची सादारणपणान वर्सांतल्यान दोन खेपे ऑक्टोबर ते मार्च आनी मार्च ते जुलय मेरेन पीक घेतात. गिमांत चड करून वाटकुळ्या फळाची आनी पावसांत चड करून लांब फळाची लागवड करतात. सुर्वेक वाफ्यांत रोंपे तयार करून वा १.५-२ सेंमी. अंतराचेर नेमां मारून तातूंत सारें घालून एका जाग्यार ४-५ बियो लायतात. गिमांत रोयिल्ली ही वाल चड करून जमनीचेरूच वाडयतात. पूण पावसांत ही वाल माटवार वा घरार चडयतात. लागवडीसावन दोन-अडेज म्हयन्यांनी भाजयेखातीर तरणीं फळां काडूंक सुरवात करतात. फुडें २-४ म्हयन्यांमेरेन तोडणीचें काम चालू आसता. फळां जून जातकच गरांत सूत जाता आनी सुकता. बियो घट्ट जातात. दरेके वालीक ०.५-१.५ कील वजनाचीं १०-१५ फळां येतात.



हीं फळां रेचक, मुत्रल, कफ, पित्तशामक आसून चड तकली उसळ्ळ्यार बियांचें तेल लायतात. पानां रेचक आसून साकर घालून कामणीचेर दितात.

कोंकण दुदयाक करपा, फळकूज आनी केवडा हे रोग जातात. करपा हो रोग कोलेटॉट्रिकम लॅजेनेरियम आनी फळकूज रोग पिथियम ॲफानिडारमेटम त्या कवकाक लागून जाता.

ह्या रोगांचेर बोर्डो मिश्रण फवारल्यार रोगांक आळाबंदा बसता. कोंकण दुदयाक तांबडो पैंगीळ, फळमाशी ह्या किडींपासून चड त्रास जातात. पिकार ०.६५% लिंडेन हॅक्टेरी २०-२५ कील ह्या प्रमाणांत फवारतात. तेभायर पिकार मॅलॅथिऑन हें कीटकनाशक फवारतात.

ह्या फळांत ९३.३% उदक, ०.२% प्रथिनां, ०.१% स्निग्ध पदार्थ, २.९% कार्बोहायड्रेट, ग्लुकोज, फ्रुक्टोज ह्यो साकरी ब आनी क जीवनसत्वां आसतात. सुकिल्ल्या कोंकणदुदयाचो उपेग उदक दवरपाखातीर दवले, नळयो, तुतान्यो आनी तपकिरीच्यो डबयो तयार करपाखातीर करतात. सतार, बीन सारकीं तंतुवाद्यां करपाखातीरय तांचो उपेग करतात.

**तांबडो दुदी :** (मराठी : लाल भोपळा; हिंदी : कद्दू, विलायती कद्दू; इंग्लीश : कॉमन गुर्ड, स्क्वॉश गुर्ड, यॅलो गुर्ड, स्पॅनिश गुर्ड, टर्बन गुर्ड, ट्रू स्क्वॉश, विंटर स्क्वॉश, ग्रेट पंपकिन, मेलन पंपकिन, रॅड पंपकिन; लॅटिन : कुकुर्बिटा, मॅक्झिमा; कूळ : कुकुर्बिटेसी).

ही जमनीर सरपटत वचपी, नाजाल्यार घरार वा माटवार वाडपी वाल. तिचें खोड लांबशें वाटकुळें केंसाळ आसून ताचेर मोटीं, सादीं, एकाआड एक वाटकुळीं वा मूत्रपिंडावरी पानां आसून तळाकडेन तीं काळजा आकाराचीं आसतात. तांची देग दांतेरी आसता. पानांचे देंठ पानांच्याच लांबायेचे आसतात. पुं. पुश्पां आनी स्त्री पुश्पां व्हड, एके वालीचेर पूण स्वतंत्रपणान वाडपी हळदुवीं आनी घांटीच्या आकाराचीं आसून पानांच्या खांचींनीं येतात. फळाचो आकार वाटकुळो वा लांबट वाटकुळो आसता. तांचो रंग पिंगसो-हळदुवो आसून पिकतकच तातूंत गोडसार हळदुवो वा तांबसो रवाळ (मगज) आसता. बियो जायत्यो व्हड, सपाट, धव्यो वा पिंगशो, गाड पुडी कोराच्यो आसतात. हे जातीचीं कांय प्रकारचीं फळां खूब मोटीं आसतात. (सुमार २.१ ते २.४ मी. घेराचीं आसून सुमार १००-१५० कील वजनाचीं).

हे जातीच्या मूळस्थानाविशीं निश्चित माहिती मेळना. पूण ती मूळची आशियांतली आसुंये अशें मानतात.

हाचीं पानां, फुलां आनी फळां भाजयेखातीर वापरतात. फळांतलो मगज गोडशें करपाखातीर वापरतात. बियांचो वापर गोडशांत करतात. त्यो पुश्टीक, मुत्रल आनी कृमीनाशक आसतात. हीं फळां बरेच दीस तिगतात.

भाजयेखातीर लागवडींत आशिल्ल्या आनी दुदी ह्या सादारण नांवान वळखतल्या फळाच्या वेगवेगळ्या प्रकारांचो कुकुर्बिटा वंशांतले जातींत आस्पाव जाता. (१) कु. मॅक्झिमा (२) कु. मोशाटा (३) कु. पॅपो. ह्या दुदयाचो अको सूर्यमुखी हो सुदारीत प्रकार उपलब्ध आसून ताचीं फळां ल्हान, वाटकुळीं आनी दोनूय वटांनी चेपटीं आसतात. सालीचो रंग गडद जांबळो वा हळदुवो आसता. हीं फळां जायते दीस तिगतात. हाचे भायर दुदयाचे जायते प्रकार भारतांत आनी हेरकडेन लागवडींत आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**दुबळा :** एक आदिवासी जमात. ह्या लोकांची वसती गुजरात, महाराष्ट्र, दादरा आनी नगरहवेलींत आसा. तशेंच, गुजरातांतल्या सुरत आनी भडोच आनी महाराष्ट्रांतल्या ठाणे जिल्ह्यांनी ह्या लोकांची वसती चड आसा.

हे जातीच्या नांवाविशीं कांय दंतकथा आसात. तातूंतल्यो दोन अशो-
१. पुर्विल्ल्या काळांत एकदा तांचेर झुजाचो प्रसंग आयिल्लो आसतना, हारतले ह्या भंयान ते दुस्मानाकडेन झुजूंक धजलेनात. तेन्ना दुस्मानान तांकां दुबळे म्हळें. तेन्नासावन तांकां दुबळे ही संज्ञा मेळळी आसुंये.

२. एकदां खूब दुकळ पडिल्लो आसतना अन्न-उदकाक लागून ते अशक्त जावन हेर वाठारांनी गेले. ते जंय गेले थंयच्या लोकांनी तांकां 'दुबळे' अशें नांव दिलें.

गुजरातांतले चडशे दुबळा लोक गुजराती उलयतात आनी महाराष्ट्रांतले दुबळा लोक मराठी उलयतात.

दुबळा लोकांचे वट्ट २५ फांटे आसात ते अशे - बाबा, बल्सरिया, बर्निया, चोरिया, दमनी, हर्व्हिया, इस्त्रिया, खर्चा, खोडिया, मंडव्हिया, नर्दा, ओल्पडिया, रठेडिया, सरव्हिया, सिप्रिया, तलाव्हिया, उखरिया, उम्रिया, वसवा, वोहरा, धंगलिया, कान्हरिया, ठाकोर, थलिगोरिया आनी वातोलिया. ह्या शाखांतल्यो तलाव्हिया, वोहरा आनी खर्चा ह्यो तिनूच महत्वाच्यो आनी मुखेल शाखो आसात. ह्या शाखांनीं तांचेभितर लग्नां जायनात. पूण हालीं हो शाखांतलो भेद मातसो उणो जाला. हे लोक आपणाक उच्च मानून, आपणाक मूळचे राजपूत कुळांतले समजतात. हेर लोक हांकां हीन दर्ज्याचे मानतात.

धर्तरेचेर सुश्ट आनी दुश्ट अशो कांय शक्ती आसांत आनी ताच्यांतल्या दुश्ट शक्तींक लागून रोग, पिडा आनी हेर अरिश्टां येतात. अशी दुबळा लोकांची समजूत आसा. रोग जायत जाल्यार ते भगताकडेन वचून उपाय विचारतात आनी तो सांगता ते प्रमाण निवेद्य, बळी, मंत्र ह्यो गजाली करतात. भरमदेव हो तांचो मुखेल देव. व्हडले धामीचे रोग आयल्यार दुबळा लोक भरमदेव देवाची आराधना करतात. देवी, कांजिण ह्या रोगांचो हलिकाका हो देव. हाका ज्वारीचो निवेद्य दाखयतात. दुबळा लोक आकाशीमाता, पेटफोडीमाता, खोखलीमाता, मरीमाता, वेराईमाता ह्या देवतांची विंगड विंगड कारणांखातीर पुजा करतात.

वैजपण, मांत्रीकपण आनी पुरयतपण अशीं दुबळांखातीर तिनय कामां करपी भगत आसतात.

रोग्याच्या मस्तकाभोंवतणीं सात खेपे घुंवडावन हाडिल्ल्या दाण्यांवयल्यान भगत रोगाचें निदान करता. ह्या प्रकाराक 'दाना-बांधना' अशें म्हण्टात. दुबळा लोकांचो भुता-खेतांचेर खूब विस्वास आसता.

दुबळा लोकांचीं घरां कुडाच्या वण्टींचीं आनी तणाच्या पांख्यांचीं आसतात. तांच्या घरांक जनेलां नासतात. हीं घरां उण्या उंचायेचीं आसतात.

चलो अठरा वर्सांचो आनी चली पंदरा वर्सांची जातकच तांचीं लग्नां थारायतात. तांचेमदीं पितृसत्ताक कुटुंबपद्दत आशिल्ल्यान लग्न जातकच चलो वेगळो रावता. प्रेम संबंदांतल्यान जमिल्ल्या लग्नाक मान्यताय दितात. पूण थरावीक क्षेत्राचे भायले व्यक्तीकडेन लग्नसंबंद करिनात. दुबळा प्रदेशांतल्या म्हळ्यार दुबळा लँड लोकांभितरूच अंतर्विवाह जातात. त्या प्रदेशाक विटो म्हण्टात. नवसारी विटो, बार्डोली विटो अशो हेर कांय विटो दुबळा जमातींत दिसतात. हाका प्रदेश अंतर्विवाह अशें म्हण्टात. लग्नाचो करार करतना जातीच्या पंचासामकार, चलयेचें देज थारायतात. बस्तरिओ नांवाच्या मध्यस्थावतीन लग्न थारायतात. लग्नापयलीं नानीताडी, मोटीताडी अशे समारंभ करतात. उपरांत 'घाणा' हो विधी करतकच लग्नसुवाळो सोंपता.

लग्नाउपरांत व्हंकलेची आवय भेट म्हणून आयदनां दिता. त्या अहेराक 'मामेरू' अशें म्हण्टात. कांयकडेन न्हवऱ्या-व्हंकलेक निरोप दितना 'रामवेव्हार' नांवाचो समारंभ करतात. ह्या समारंभाक जातपंचांक आपोवन तांचेसामकार न्हवरो-व्हंकल रामाच्या नांवान सोपूत घेतात की आमी खंयचेय परिस्थितींत एकमेकांक सांबाळून पंचांचो अधिकार मानतलीं. लग्न हिंदू पद्दतीन माटवांत जाता. भोवपत्नीत्व, घटस्फोट आनी विधवाविवाह हे सगळे प्रकार तांची पंचायत समिती थारायता.

दुबळा जमातीच्यो बायलो वैजिणीच्या कामांत कुशळ आसतात. बाळंटेरांत आडखळ आसा अशें दिसल्यार, पेटफोडीमाता हे देवीक आंगवण करतात. त्या वेळार देवतेक कोंबो वा बोकडो बळी दितात वा भुरग्याची प्रतिमा करून ती देवीक ओंपतात. सटयेचे रातीं बाळंटिणीचे खाटीकडेन तुपाचो दिवो लायतात. सातव्या दिसा भुरग्याक नांव दवरतात. ज्या वाराक भुरग्याचो जल्म जाता, त्या वाराचें नांव भुरग्याक दवरपाची चाल आसा. तिसऱ्या वा चवथ्या वर्सा भुरग्याचें जांयवळ करतात. जांयवळाच्या वेळार भुरग्याचे केंस, नाळ्ळ आनी एक दिवो देवतेक ओंपतकच, भुरगो ते देवतेकडल्यान परतो मेळटा अशें समजतात.

दुबळा लोकांचो पुर्नजल्माचेर विस्वास आसा. हे लोक मडीं लासतात वा पुरतात. ह्या दोनूय पददतींनी तांदूळ शिंपडावन जागो शुध्द करून घेतात. मेल्ल्या मनशाच्या तोंडांत शिताचे चार पींड दवरतात. मड्याचे पांय दक्षिणेकडेन करतात. मड्याक हून उदकान न्हाणोवन ताच्या आंगाक हळद लायिल्ले तांदूळ पांच खेपे चोळटात. तशें केल्ल्यान तो शुध्द जाता आनी ताचे लागसार भुतांखेतां येनात असो समज आसा. दादल्यांचें मडें धव्या कपड्यांत आनी बायलेचें मडें तांबड्या कपड्यांत गुठलायतात. उपरांत मड्याची तकली उत्तर दिशेकडेन करून, मडें मसुंडेत व्हरतात. मसुंडेंत चारूय दिशांक शीत दवरतात. निमाणे संस्कार जातकच सगळे लोक न्हावन घरा वतात.

हे लोक सात दीस सुतक पाळटात. इकराव्या दिसा अस्थी न्हंयेंत सोडटात. मडें पुरिल्लें आसल्यार, इकराव्या दिसा मेल्ल्या मनशाची लाकडाची प्रतिमा करून ती लासतात. हे सगळे विधी भगत करता. चार-पांच वर्सांनी एकदां हे लोक अक्षय तृतीयेक श्राध्द करतात. ताका 'पर्जन' वा 'मोटो दहाडो' म्हण्टात. हो सुवाळो भौशीक रितीन, हेर कुटुंबा मेळून करतात. जितल्या मृतांचें श्राध्द करपाचें आसता तितल्यो तांदळाच्यो राशी घालून तांचेर तांब्याचें एक नाणें आनी सुपारी दवरतात. श्राध्दाची मुखेल कार्यावळ रातची सुरू करून फांतोडेमेरेन चलता.

ह्या लोकांची सगळ्यांत व्हडली परब म्हळ्यार 'दिवसो.' त्या दिसा म्हळ्यार आषाढांतले उमाशेक आंकवार चलयो बावलो-बावलेचीं लग्नां करतात. 'शीतला सप्तमीक' हे लोक उपास करतात. तांच्या सगळ्या उत्सवांनी नाच-पदांची कार्यावळ आसता. तशेंच हिंदूंचे नवरात्र, दसरो, दिवाळी हेय सण ते मनयतात.

दुबळा लोक नृत्यकलेंत तरबेज आसतात. लयबध्द हालचाल आनी सुरेल संगीत हांकां लागून तांचे नाच खुबूच आकर्शक जातात. तांच्या

नाचाचे तीन प्रकार आसात.

१. जातीनृत्य - हो नाच केन्नाय मनोरंजनाखातीर करतात. २. जल्म, मरण, लग्न ह्या प्रसंगांचेर करतात तो नाच ३. सण - परबांवेळार करतात ते नाच. ह्या नाचांनी कोंबो, शेड्डो तशेंच जनावरां झूज, ऊंसाची लागवड ह्यो हालचाली दाखयतात. ताका धोल, थाळी ह्या वाद्यांची साथ आसता.

शेती आनी मजुरी हे तांचे मुखेल वेवसाय आसून ज्वारीची भाकरी आनी मास हो तांचो नित्याचो आहार.

ह्या लोकांचे जातपंचायतींत, पंच आनी पटेल हे जमातीचो कारभार पळयतात. गांवांतलो जाण्टो, हुशार, अणभवी आनी समाजांत पत आशिल्लो मनीस पटेल म्हणून वेंचतात. तशेंच, गांवांतल्या हेर वाठारांतल्यान विंगड विंगड प्रतिनिधी वेंचतात. पटेल आनी हे प्रतिनिधी मेळून सभा तयार जाता. जमातीचे नितीनेम, परंपरा आनी चालीरिती ह्यो बरे तरेन चलतात काय ना हें पळोवप पंचायतीचें मुखेल काम आसता. तेच भाशेन कुटुंबीक अडचणी सोडोवप हेंय समितीचें म्हत्वाचें काम आसता. धा - बारा गांवांतल्या दुबळा जमातीच्या प्रतिनिधींचें बारगामनोचोरो नांवाचें एक मंडळ आसता. दुबळा जमातींत सुदारणा घडोवन हाडपाचें काम ह्या मंडळावरवीं जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**दुभाषी, डॉ. गणबा नागेश सिनाय :** (जल्म : २० जुलय १९२०, नागवें - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें मेदिकु सिरूर्जियांवाचो अभ्यासक्रम (वैजकी डिप्लोमा) पुराय केल्लो. १९४६-६१ ह्या काळांत तो, आझाद गोमंतक दल आनी नॅशनल काँग्रेस गोवा ह्या संघटणांचो वांगडी आशिल्लो आनी राजकीय चळवळींत वांटो घेतालो. १९४९त डॉ. पुंडलीक गायतोंडे हाचेकडेन ताचो संबंद आयलो. तेन्नासावन तो भूंयगत वावरांनी वांटो घेवंक लागलो.

१९५२त ताणें दिपाजी राणे शताब्दी दिसा तिरंगी बावटो लावपाचो बेत आखिल्लो, जो कानोबा नायक आनी महाबळेश्वर नायक हांणी पुराय केलो. ३० जून १९५४ दिसा पोलिसांनी ताका हेर वांगड्या सयत अटक केली. २६ जुलय १९५४ दिसा ताची सुटका जाली. २२ मार्च १९५५ दिसा ताका परतून एक फावट अटक जाली. ताणें वट्ट १३ वर्सां बंदखण भोगली. २० वर्सां खातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतिल्ले.

गोंय स्वतंत्र जातकच ताणें 'प्रथमोपचार' आनी 'होमगार्ड प्रशिक्षण' शिबीर घडोवन हाडलें. तशेंच, म्हापश्यां युवक संघ स्थापन करपांत ताचो मोलादीक वांटो आसा. १९७०त गोंयच्या जनसंघ फांट्याचें ताणें मुखेलपण केलें. डिसेंबर १९७५ ह्या आणिबाणीच्या काळांत ताका आग्वाद बंदखणींत दवरिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**दुर्गा :** एक नामनेची शक्तीदेवता. उमा, गौरी, पार्वती, चंडी, चामुंडा, काली, कपालिनी, भवानी, विजया अशीं हे देवीचीं जायतीं नांवां आनी रूपां आसात.

दूर्ग नांवाच्या राक्षसाक मारपी म्हणून दुर्गा. णव वर्सांचे शक्तीदेवीक दुर्गा म्हणचें, अशें देवी भागवतांत म्हळां. महाभारताच्या विराट पर्वांत दुर्गा ही नारायणाची बायल अशें म्हळां. हे देवीचें स्थान विंध्य पर्वताचेर आशिल्ल्याचें हरिवंशांत सांगलां. ताचेवयल्यान हे देवीक विंध्यवासिनी अशेंय म्हण्टात. दुर्गेचो संबंद शंकराकडेन लावन तिका आदिशक्ती अशेंय म्हळां.

शंकर, यम, विष्णु, चंद्र, इंद्र, वरूण, धर्तरी, सूर्य ह्या देवतांच्या अंशापसून दुर्गेचो जल्म जालो, अशें मार्कंडेय पुराणांत म्हळां.

दुर्गेचीं रौद्र आनी सौम्य अशीं दोन रुपां आसात. रौद्र रुपांत ती तांत्रिकांची उपास्य देवता थारली. दुर्गेचें अध्यात्मरूप म्हळ्यार सौम्यरूप देव्युपनिषदांत वर्णिलां. चंडी ह्या स्वरुपांत दुर्गा ही चतुर्भुजा, अष्टभुजा, दशभुजा, अष्ट-दशभुजा अशी मेळटा. तिच्या हातांत चक्र, पाश, शूल, खड्ग हीं आयुधां आसतात. ती शींवाचेर बशिल्ली आसता. महिषासुरमर्दिनीच्या रुपांत तिच्या पांयांकडेन तकली तुटिल्लो महिषासुर आसता.



मार्कंडेय पुराणांत दुर्गा देवीचें महाकाली, महालक्ष्मी आनी महासरस्वती ह्या तीन स्वरुपांनी चरित्र वर्णन केलां. हीं तीन रुपां अनुक्रमान तम, रज आनी सत्त्व ह्या तीन गुणांचीं प्रतिकां. मधुकैटभ, महिषासूर, चंडमुंड, शुंभनिशुंभ ह्या राक्षसांचो तिणें वध केल्ल्याच्यो कथा हातूंत सांगल्यात. जेन्ना धर्माचो न्हास जाता, तेन्ना दुर्गा अवतार घेता अशेंय वर्णन तातूंत केलां. दुर्गेन हो पराक्रम णव दिसांनी केलो म्हणून आश्विन शुध्द पाडव्यासावन णव दीस 'नवरात्र' हो उत्सव मनयतात. बंगालांत खूबशा लोकांची दुर्गा कुलदेवता आशिल्ल्यान थंय हो उत्सव व्हडा पांवड्यार मनयतात.

कलकत्ताक दुर्गा देवीक काली, आसामांत कांमाख्या, कोल्हापुरांत महालक्ष्मी जाल्यार गोंयांत शांता म्हणून वळखतात. नेपाळांतय नवरात्र हो उत्सव, शस्त्र, ध्वज हांची पुजा करून देवाक रेड्याचो बळी दिवन मनोवपाची चाल आसली.

- कों. वि. सं. मं.

**दुर्बीण :** पयसुल्ल्या वस्तूंचें बारकायेन निरिक्षण करपाचें एक म्हत्वाचें साधन. आधुनीक दुर्बीण मुखेलपणान दोन तरांची आसा. प्रकाशीय (optical) दूरदर्शक आनी रेडिओ दूरदर्शक.

प्रकाशीय दुर्बिणीचें मूळ ओक्लाच्या हारशांत मेळटा. तेराव्या शेंकड्यासावन लघुनदरेदोश (short sight defect) अडचण पयस

करपाखातीर अंतर्गोल भींग (concave lens) वापरतात. गॅलिलिओ हाणें आपली दुर्बीण मळबाकडेन घुंवडावंचे पयलीं, इ. स. १६०८ च्या सुमाराक हॉलंडांतल्या हंन्स लिपरशे ह्या ओक्लांच्या दुकानदाराक दुर्बिणीचो अचकीत सोद लागलो. एकामेकांसावन कांय अंतराचेर दवरिल्ल्या दोन बहिर्गोल भिंगांतल्यान पळयतकच ताका पयसुल्यो वस्तू लागीं दिसपाक लागल्यो. उपरांत ताणें एके नळयेक दोन बहिर्गोल भिंगां बसोवन एक दुर्बीण तयार केली. उपरांत लिपरशे हाणें तयार केल्ले दुर्बिणीचो हॉलंड सैन्यांत खूब प्रमाणांत उपेग जावपाक लागलो. दुर्बिणीची नविदाद उपरांत सबंद युरोपभर पातळ्ळी. रोमांतलो प्रसिद्द शास्त्रज्ञ गॅलिलिओ (१५६४-१६४२) हाणें तिचें म्हत्व जाणून घेवन तातूंत सुदारणा करून एक दुर्बीण तयार केली. ती मळबाकडेन घुंवडावन तातूंत ताणें चंद्रावयले दोंगर, सुर्याचेर आशिल्ले काळे दाग, उपग्रह, मळबांतल्या नखेत्रांची दाटाय आनी मळबांतल्यो हेर गजाली पळयल्यो आनी हेरांकय दाखयल्यो. उपरांत ताणें खूब दुर्बिणी तयार केल्यो. हातूंतल्यो दोन आयजय फ्लॉरेन्सांतल्या वस्तू संग्रहालयांत आसात. ताणें तयार केल्ले दुर्बिणींत पयसुल्ली वस्त ३२ पटींनी व्हड दिसता.

दुर्बिणींतल्या भिंगांमदलें वस्तूवटेन आसता त्या भिंगाक वस्तुभींग आनी ज्या भिंगांतल्यान पळयतात ताका नेत्रिका अशीं नांवां आसात. १६७० च्या सुमाराक इंग्लंडांत न्यूटन हाणें वस्तूभिंगाचे सुवातेर १५ सेंमी. व्यासाचो अंतरगोल हारसो वापरिल्लो. नेत्रिकाखातीर बहिर्गोल भींग वापरिल्लें. तातूंतल्यान पयसुल्ली वस्त ३८ पटींनी व्हड दिसताली. संवसारांतली एक व्हड दुर्बीण अमेरिकेंतले माऊंट पॅलोमारचे वेधशाळेंत आसा. ताचो हारसो सुमार ५०१ मीटर व्यासाचो आसून हारशाचें वजन १५ टन आनी पुराय दुर्बिणीचें वजन ५५० टन आसा. १९४७ सावन तिचो वापर चालू आसा. हे दुर्बिणीपरस व्हड अशी सुमार ६ मी. व्यासाची दुर्बीण रशियेंतल्या उत्तर कॉकेशस पर्वताचेर १९७६त उबारिल्ली आसा. सतराव्या शेंकड्यांत जेन्ना दुर्बीण विकासमार्गाचेर आशिल्ली तेन्ना कंवची आनी तिचेसावन इश्ट शक्तीचीं भिंगां बसोवपाची तंत्रविद्या पुराय युरोप खंडांत खूब फुडारिल्ली. ताका लागून सुर्वेच्यो सगळ्यो दुर्बिणी प्रणमनी प्रकाराच्यो आशिल्यो.

वस्तुभिंगाचो मुखेल वावर म्हळ्यार पयसुल्ले वस्तूचें पडबींब निरिक्षकाच्या मुखार नितळ आनी लागीं निर्माण करप. पडबिंबाचें आकारमान व्हड जाय जाल्यार वस्तुभिंगाचें केंद्रांतर व्हड आसूंक जाय. वस्तुभिंगाक लागून तयार जाल्लें पडबींब चड पर्जळीत जावपाखातीर चडांत चड उजवाड ह्या भिंगांतल्यान येवप गरजेचें. हाका लागून त्या भिंगाचें आकारमान व्हड आसूंक जाय.

आयचे प्रणमनी दुर्बिणीचें स्वरूप योहानेस कॅप्लर (१५५१ - १६२९) हाचे मुळावे कल्पनेप्रमाणच रावलां. हातूंत दोनय भिंगा बहिर्गोल प्रकाराचीं आसतात. हे दुर्बिणींत पयसुल्ल्या बिंदूसावन आयिल्लीं किरणां वस्तुभिंगांचेर समांतर येवन पडटात. हाका लागून तिचें केंद्रप्रतलांत परतें पडबींब निर्माण जाता. तें पडबींब उजवाडाचीं किरणां एकठांय येवन जाल्लें आसता. वस्तुभिंगातल्यान मुखार गेल्ले किरण नेत्रभिंगांतल्यान गेलेउपरांत निमाणें पडबींब तयार जाता. हातूंत निमाणें निर्माण जाल्लें पडबींब परतें दिसता. मळबांतल्या गिऱ्यांचो अभ्यास करपाखातीर हे दुर्बिणीचो खूब उपेग जाता.

पडबिंबाचें आकारमान वाडोवपाखातीर व्हड केंद्रांतरांचे वस्तुभींग वापरून चड लांबायेची दुर्बीण तयार करपाची सर्त लागली. ल्हान दुर्बिणींत कागदाच्यो नळयो वापरताले. ३ ते ४ मी. परस पयस लांबाय वाडल्यार पत्र्याच्यो वा बांबूच्यो नळयो वापरतात.

कॅप्लर दुर्बिणींत पडबींब सादारणपणान परतें निर्माण जाता आनी दुर्बिणीची नळीय खूब लांब आसता. आजकाल मळबांतले गिरे आनी नखेत्रां हांचो अभ्यास करपाक आनी धर्तरेवयल्या पयसुल्ल्या वस्तूंक पळोवपाक चड करून कॅप्लर दुर्बिणीचोच चड उपेग जाता. मळबांतल्या जड वस्तूंचो अभ्यास करपाखातीर उपेग करतात ते दुर्बिणीक ज्योतीश दुर्बीण अशें (astronomical telescope) म्हण्टात. पार्थीव उपेगांत येवपी दुर्बिणीक कॅपलर दुर्बीण (Terrestrial telescope) म्हण्टात. पार्थीव दुर्बिणींनी सरळ पडबींब मेळचें म्हणून आनीक एक भींग बसयतात.

लोलकी द्विनेत्री दुर्बिणींत एकसारक्यो दोन दुर्बिणी तांचें अंतर समांतर दवरून जोडिल्ल्यो आसतात. दोन नेत्रिकांतलें अंतर मनशाच्या दोळ्यांमदल्या अंतराइतलें आसता. निरिक्षण करपी व्यक्तीचे गरजेप्रमाण तें चड-उणें करपाक मेळटा. हे दोन दूरदर्शक दोनय दोळ्यांक लावन एकाच देखाव्याचें दोनय दोळ्यांनी एकाच वेळार निरिक्षण करपाक मेळटा. जण एका दूरदर्शकांत दोन-दोन पोरो लोलक बसयल्ले आसतात. हाका लागून निमाणें पडबींब सारकें मेळटा.

**परावर्तन दुर्बीण :** हातूंत वस्तुभिंगाचे सुवातेर अंतर्गोल हारसो वापरतात ही कल्पना न्युटन हाणें चालींत हाडिल्ली. उपरांत स्कॉटीश गणिती जेम्स ग्रॅगरी (१६३८-७५) हाणें हारशाचे दुर्बिणीची नवी रचणूक मांडली. तातूंत एके नळयेच्या तोंकार अन्वस्ताकार हारसो दवरून ताच्या मदल्या भागार ल्हानसो बुराक मारून ताच्या तोंकार एक नेत्रभींग दवरतात. हारशाक लागून हांगा पयसुल्ल्या वस्तूंचें पडबींब तयार जाता. तातूंतल्यान मुखार गेल्ले किरण विवृत्ताकार हारशाचेर पड्टा. थंयच्यान परावर्तीत जावन हांगा दुसरी प्रतिमा तयार जाता. एन. कॅसेग्रेन हाणें १६७२त मांडिल्ले येवजणेंतले दुर्बिणींत असोच एक व्हड अन्वस्ताकार हारसो आसता. न्यूटनान परावर्तक दुर्बीण तयार करून ताणें बृहस्पतीच्या उपगिऱ्यांच्या आनी शुक्राच्या धन्वाकाराचें निरिक्षण केल्लें.

परावर्तन दुरदर्शी पांच प्रकारांचे आसतात - १) प्रायम-फोकस दुर्बीण २) न्यूटन दुर्बीण ३) कॅसेग्रेन दुर्बीण ४) ग्रॅगरीयी दुर्बीण आनी ५) काऊड (Coude) दुर्बीण. ह्या सगळ्या दुर्बिणींनी विवृत्ताकार हारसो आसता.

प्रणमनी दुर्बिणीची उदरगत (विकासचाल) चालू आसतनाच परावर्तीनी दूरदर्शकांची निर्मिती इंग्लंडांत ल्हव-ल्हव चालूच आशिल्ली. १७२२त उल्लेख करिसारकी पयली परावर्तनी दुर्बीण जॉन हॅडली हाणें तयार केली. तांबें आनी कथील ६८:३२ ह्या प्रमाणांत कडोवन एक नवो मिश्रधातू ताणें तयार केलो. ताचेपसून १५ सेंमी. छिद्र व्यासाचो सुमार २ मी. केंद्रांतराचो अन्वस्ताकार हारसो तयार केलो. ह्या दूरदर्शकांत न्यूटन हाची पद्दत ताणें वापरिल्ली. उपरांत परावर्तनी दुर्बिणींत सुदारणा जायत गेली. परावर्तनाच्या वेळार लागीं-लागीं ४०% उजवाड फुकट वता म्हणून मुखेल हारसो मातसो वांकडो दवरपाची कल्पना हर्शेल हाणें काडली. उपरांत १८५०त युस्टूश लिबीक हाणें कंवचेचेर धातूचो पातळ लेप दिवन रसायनीक प्रक्रिया सोदून काडली. हो लेप सुळसुळीत आशिल्ल्यान उजवाडाच्या परावर्तनाचें प्रमाण खूब वाडलें. १९३० उपरांत जॉन स्ट्रॉय हाणें कंवचेचेर ॲल्युमिनियमाचो लेप दिवपाची प्रक्रिया सोदून काडली. आयज संवसारांतली सगळ्यांत व्हड परावर्तनी दुर्बीण ६ मी.

छिद्रव्यासाची आसा.

खंयचेय वस्तूचें खूब वेळ निरिक्षण करचें आसत जाल्यार, दुर्बिणीक वेवस्थीत एके सुवातेर थीर बसोवंची पडटा. ल्हान दुर्बीण खंयचेय सुवातेर सहजपणान हालोवपाक मेळटा. व्हड दुर्बीण जड आशिल्ल्यान तिचें आरोहण करचें पडटा. नखेत्रां आनी गिरे हे सूर्य आनी धर्तरेप्रमाण वाटकुळाकार कक्षांतल्यान भोंवत आसतात. हाका लागून खंयच्याय नखेत्रांचें वा गिऱ्यांचें खूब वेळ निरिक्षण करतना दुर्बीण एकसारकी घुंवता तशी दवरची पडटा. उदग्र-क्षैतिक अक्षांकीत नांवाचे पद्दतीं दुर्बिणीक एका उदग्र अक्षाभोंवतणीं क्षैतीज प्रतलांत कशीय घुंवडावपाक मेळटा. त्याच वेळार दुसऱ्या क्षैतीक अक्षाभोंवतणीं वयर-सकयल करपाक मेळटा. रशियेंत बसयल्ल्या नव्या ६ मी. छिद्रव्यासाचे दुर्बिणीचें वजन चड आशिल्ल्यान तिका एके सुवातेर आरोहण केले उपरांत हे रचणुकेंत कांय बदल करून विषुववृत्तीय आरोहणाच्यो इंग्लीश आनी जर्मन अशो दोन पद्दती चालींत आयल्यात.

सुर्याचेर पातळिल्ल्या कुपांच्या आविश्काराचो अभ्यास करपाखातीर हेल आनी जी. डब्ल्यू. रिची हाणीं 'यर्कीझ' वेधशाळेंत उपकरण तयार केलें. ह्या प्रकल्पाखातीर अर्थीक आदार हाडून दिवपी, हेलन स्नो हाच्या नांवावयल्यान ह्या उपकरणाक 'स्नो दुर्बीण' अशें नांव पडलें. हाच्या आदारान सुर्याचो वर्णपट आनी वेगवेगळ्या वर्णवळीच्या उजवाडांत सूर्याचीं छायाचित्रां बेसबरीं घेवपाक मेळटात.

स्नो दुर्बिणींतली मुखेल नळी क्षितीज समांतर उरिल्ल्यान सुर्याचे उश्णतायेचो तिचे कार्यक्षमतायेचेर वायट परिणाम जाता. तेखातीर धा ते पंदरा मीटर उंचायेच्या मनोऱ्याचेर एक स्टीलस्टॅटचो हारसो बसोवन ताचेवयल्यान परावर्तीत जावपी सूर्यकिरण एके उदग्रनलिकेंतल्यान सकयल घेवप जाता आनी उपरांत तें वर्णपटलेखकाचे धारेर पडटा. ह्या उपकरणांतल्यान चड स्पश्ट वर्णरेशा मेळूंक पावता. अशी दुर्बीण तमीळनाडूंतले कोडाकॅनाल वेधशाळेंत आसा.

जमनीवयल्यान दूरदर्शकाचो वापर करपांत कांय तोटे आसात. जमनीवयलें वातावरण, मळबांतलीं कुपां आनी हेर तत्सम आडखळींक लागून मळबांतलें निरिक्षण करपाची दुर्बिणीची क्षमताय उणी जाता. तेखातीर कृत्रीम उपगिऱ्याचेर दुर्बिणी बसोवन मळबांतल्या घडणुकांचो अदमास घेवपाच्या उद्देशान अवकाश दुर्बिणीचो वापर करप चललां.

- कों. वि. सं. मं.

**दुर्भाटकार, रामा विठ्ठल :** (जन्म : २१ फेब्रुवारी १९३२, वागाळी - बारदेस).

सुटकेझुजारी. १९५४-५६ ह्या काळांत नॅशनल काँग्रेस गोवा आनी १९५६ सावन तो आझाद गोमंतक दल संघटणांचो वांगडी आशिल्लो. कणकवली आनी दोडामार्ग ह्या वाठारांनी जावपी बसकांनी तो वांटो घेतालो. तेभायर वण्टीपत्रकां लावप, झुजाऱ्यांक म्हत्वाच्यो बातम्यो पावोवप असलीं कामां तो करतालो. ६ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा सुधाताई जोशी हिच्या मार्गदर्शनाखाल म्हापश्यां हनुमान देवळामुखार जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो.तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताची सुटका जाली. १९७३ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**दुर्योधन :** महाभारतांतलो कौरवांचो मुखेली आनी हस्तिनापूरचो सम्राट. कौरव कुळांतल्या धृतराष्ट्राक गांधारीपसून शंबर पूत जाले. तातूंतलो दुर्योदन हो सगळ्यांत व्हड. तो जल्मले उपरांत जायते अपशकून जाले देखून धृतराष्ट्रान हेविशीं ब्राह्मणांक विचारलें तेन्ना ब्राह्मणांनी तो कुलक्षय करतलो म्हणून ताचो त्याग करपाक धृतराष्ट्राक सांगलें. पूण ताणें तशें केलेंना. पंडूपूत्र धर्मराज हो दुर्योधनापरस व्हड आनी भीम ताचे वांगडचो. सगळे कौरव आनी पांडव एकठांय ल्हानाचे व्हड जाले. सुरवातीपसुनूच दुर्योधनाच्या मनांत पांडवांविशीं दुस्वास आशिल्लो.

कौरव आनी पांडवांक द्रोणाचार्यान शस्त्रविद्या शिकयली. तातूंत अर्जून हो सगळ्यांत हुशार थरिल्ल्यान दुर्योधनाच्या मनांत अर्जुनाविशीं दुस्वाशी भावना निर्माण जाली. दुर्योधनाक बलरामाकडल्यान गदायुध्दाचें शिक्षण मेळिल्लें. धृतराष्ट्रान धर्मराजाक युवराज म्हणून अभिशेक केले उपरांत दुर्योधनाची दुस्वासी भावना चडूच वाडली. कौरव आनी पांडवांमदल्या झगड्याक खऱ्या अर्थान हांगाच्यानच सुरवात जाली. दुर्योधनान कर्ण आनी शकुनीच्या आदारान पांडवांचो नाश करपाखातीर जायते यत्न केले. लाखेचें घर निर्माण करून पांडवांक लासून मारपाचोय यत्न केलो. पूण तो सफल जालोना. द्रौपदी स्वयंवराक दुर्योधनय आयिल्लो. त्या वेळार द्रौपदीन अर्जूनाक वेंचून काडलो तें पळोवन ताका चड तिडक मारली.

धृतराष्ट्रान पांडवांक आपलें अर्दें राज्य दिलें आनी इंद्रप्रस्थ नगरींत रावपाक सांगलें. युधिष्ठिरान ह्या वेळार राजसूय यज्ञ केलो. कोशागाराचें काम दुर्योधनाकडेन सोंपयल्लें. तेन्ना एक-दोन खेपे ताचो अपमान जालो. ताका लागून ताची सूड भावना जागृत जाली. पांडवांचें वर्चस्व ताका कशेंच सहन जायना जालें. कपटद्युतांत ताणें पांडवांचें सगळें जिखून घेतलें आनी द्रौपदीचीय विटंबणा केली. पांडवांक वनवासाक धाडले. वनवासांतय ताणें पांडवांक खूब तरांनी सतायले. पूण पांडव तांतूतल्यान वाटावले. तांचो अज्ञातवास आनी वनवास सोंपलेउपरांत तांणी आपल्या पुरयतावरवीं दुर्योधनाकडेन अदर्या राज्याची मागणी केली. पूण दुर्योधनान तांकां बोटायेदी लेगीत भूंय दिवपाक न्हयकार दिलो. हाचोच परिणाम म्हणून युध्दाक सुरवात जाली.

कृष्णाचें सगळें सैन्य दुर्योधनाक मेळ्ळें आनी कृष्ण पांडवांच्या पक्षाक वचून मेळ्ळो. दोनय वटांनी युध्दाची तयारी जाली. कृष्णान मदेस्ती करून युध्द जावचें न्हय म्हण यत्न केलो. पूण ताचो उपेग जालो ना.

हेउपरांत अठरा दीस भारतीय युध्द जालें. भीमान गदायुध्दांत दुर्योधनाचे मांडयेर घाव करून ताका जखमी केलो. तेबराबर दुर्योधनाक मरण आयलें.

धर्मराजाच्या मनांत दुर्योधनाविशीं केन्नाच दुस्वास नाशिल्लो. तो दुर्योधनाक सदांच सुयोधन अशें म्हण्टालो. तो पराक्रमी, राजनितीकुशल आशिल्लो. ताका जायते इश्ट आशिल्ले. भीष्म, द्रोण, कृप ह्या सारक्या व्हड मनशांचो ताणें आदर केल्लो. देखुनूच दुर्योधनाचो युध्दाचो निर्णय कुरूक्षयाक कारण जातलो हें समजुनूय भीष्म-द्रोण हाणीं दुर्योधनाचो पक्ष सोडलोना. दुर्योधनान हो राकेसी वृत्तीचो नाशिल्लो पूण तो पांडवांचो दुस्वास करतालो. ताका न्याय, बरे गूण, मान ह्या सारकिल्या गजालींविशींची जाण आशिल्ली. पूण तो दुस्वासान कुड्डो जाल्लो. दुस्वास, सूडबुध्दी सारकिल्या वांयट गुणांक लागून सर्वनाश जाता हेंच

दुर्योधनाच्या महाभारतांतल्या व्यक्तीचित्रणांतल्यान महाभारतकारांनी दाखयलां.

- कों. वि. सं. मं.

**दुर्वा :** (हरयाळी; मराठी : हरळी; हिंदी : दूब, डूब; गुजराती : दरो; कन्नड : गरिके हळ्ळू; संस्कृत : दूर्वा, शतग्रंथ; इंग्लीश : बहामा, बर्म्युडा क्रिपिंग - डॉग्सटूथ ग्रास; लॅटिन : सायनोडॉन डॅक्टिलॅन; कूळ : ग्रॅमिनी).

हें एक जायतीं वर्सां जगपी, उपेगी अशें तण. हाचें खोड जमनीर आडवें वाडून रोखडेंच पातळटा. ताका ल्हान-ल्हान उब्यो खांदयो आसून तांचेर पाचवीचार सादी बारीक तणावरी पानां येतात. खांदयेच्या तोकाक फुडें २-६ कणसांचो ताळयेवरी घोंस येता. ताचेर देंठ नाशिल्ली कणसां आनी तातूंत द्विलिंगीं फुलां आसतात. सादारणपणान पावसाळ्या उपरांत फुलां येतात.

संस्कृत भाशेंत हे वनस्पतीक सुमार ४० नांवां आसात. वैदिक साहित्यांत (ऋकसंहिता) शण्डदुर्वा आनी पाकदुर्वा अशे दोन प्रकार सांगल्यात. सायणान बृहद्दुर्वा हें नांव शण्डदुर्वेक वापरलां. कौटिलीय अर्थशास्त्रांत ताग, रूई, अळशी हांचेवांगडा तिचो आस्पाव तृणवर्गांत केला. कायकडेन तिका धर्मांकूर ह्याय नांवान वळखतात. ही चड करून उशण देशांनी सगळेकडेन दिश्टी पडटा. हिमालयांत २,४०० मी. उंचायेचेर, शेतांत वा पोरसांत तणावरी वाडटा. हिची नवी लागवड ह्या झाडाचे कुडके रोवन वा बियो फाफडून करतात. जमनीची हूनसाण ना करपाक तशेंच खेळाच्या मैदानाचेर दुर्वा लायतात. घरच्या पोरसांत, भौशीक बागेंत दुर्वांचेंच 'लॉन' करतात. गोरवांक, सोंशांक आनी मेंढरांक हें तण खूब आवडटा.

हें तण स्तंभक, मूत निवळ करपी आसून, घायाचेर ताच्या पानांचो रोस लायतात. मुळांचो रोस रक्ती बिकांचेर दितात, गर्भाशयाचे त्रास, सूज, अतीसार, आमांश आदींचेर दुर्वांचो रोस उपेगी पडटा. दुर्वांचो रोस कातीचो रोग ना करता. तेचपरी कुड्डेपण ना करता, देखून तो सेवन करचो अशें आयुर्वेदांत सांगलां. खेळणी थांबोवपाक दुर्वांच्या ताज्या मुळांचो रोस आनी म्हांव एकठांय करून चाटपाक दितात.

हिंदू धर्मांत दुर्वांक पवित्र मानल्यात. ऋग्वेद आनी उपरांतच्या ग्रंथांनी दुर्वांचो उल्लेख आयिल्लो आसा. दुर्वाश्टमीक (भाद्रपद शुध्द अश्टम) दुर्वांनी शिवाची पुजा करची अशें चातुर्मास्य महात्म्यांत सांगलां, कारण ही वनस्पती जननक्षम आनी चोंब्यांनी वाडपी आशिल्ल्यान पुजकाचीय वंशावळ तशीच वाडत रावची असो हेत आसा. दुर्वा ही गणपतीक आवडीची आसून गणपतीक २१ वा २१ चे पटीन दुर्वा ओंपच्यो अशें सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**दुर्वास :** अत्री ऋषी आनी अनुसूया हांकां शंकराच्या अंशापसून जाल्लो पूत. और्वमुनीची धूव कंदली ही ताची बायल. महाभारत आनी पुराणांतले कथेप्रमाण दुर्वास खूब ऊंच आनी पाचव्या - हळदुव्या रंगाचो आशिल्लो. तो हातांत दांडो धरतालो आनी तिनूय लोकांनी भोंवडी मारतालो (अनुशासन पर्व १५९.१४.१५).

ताचो सभाव तापट आशिल्ल्यान तिडक येतकच शाप दिवप ही ताची वृत्ती जाल्ली अशें म्हणूं येता. आपले बायलेक शाप दिवन ताणें लासली म्हणपाचो उल्लेख आसा (ब्रह्मवैवर्त पुराण ४.२४). हाणें इंद्राक शाप दिल्लो म्हणपाचोय उल्लेख आसा (विष्णुपुराण १.९). अंबरीष राजाचें हाणें सत्वहरण केलें अशें सांगतात (भागवत पुराण ९.४). लक्ष्मणाचेरय हो एकदां रागार जाल्लो (रामायण, उत्तरकांड १०५). पांडव आनी कृष्णाची हाणें सत्वपरिक्षा पळयल्ली तशेंच शकुंतलेकय हाणें शाप दिल्याचो पुरावो पुराणकथेंत मेळटा.

"जैमिनीगृह्य सुत्रांत" हाचो उल्लेख आसा. हाचेवयल्यान तो सामवेदी आचार्य आसूंक जाय. आर्या द्विशती, देवी महिम्नस्तोत्र, परशिवमहिम्नस्तोत्र, ललितास्वरत्न हे ग्रंथ दुर्वास मुनीच्या नांवार आसात. अठरा उपपुराणांमदीं 'दुर्वास पुराणांचो' आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**दुवादस :** शुक्ल-कृष्ण पक्षांतली बारावी तीथ. ही विष्णुची प्रिय तीथ मानल्या. पंचांगांत विंगड विंगड दुवादशीक विंगड विंगड नांवां आसात.

दुवादशीचें रूपध्यान गरुडारूढ आनी मेघवर्ण आशिल्ल्याचें हेमाद्रीन बरयलें आसा.

दुवादशी दिसा जल्मल्ली व्यक्ती सगळ्यांचेर मोग करपी, राजमान्य, अतिथीप्रिय, वेव्हारी आनी प्रवासहीन आसता असो फलादेश सांगला.

- कों. वि. सं. मं.

**दूत :** राजाचो वा देशाचो परराज्यांत नेमिल्लो प्रतिनिधी म्हळ्यार दूत. पुर्विल्ल्या राज्यशास्त्रांत राजा, मंत्री आनी पुरयत हांचेउपरांत दुताची सुवात मानल्या. त्या त्या राश्ट्राचे शासनसंस्थेचो तो एक म्हत्वाचो घटक आसता.

भारतीय झुजापयली तें झूज टाळचें आनी कौरव-पांडवांचो सलोखो जावंचो, हेखातीर स्वता श्रीकृष्ण पांडवांचो दूत ह्या नात्यान दुर्योधनाकडेन गेल्लो. कौटिल्यान दुतांचे तीन प्रकार सांगल्यात. ते अशे - (१) निःसृष्टार्थ - हो पयल्या पांवड्याचो दूत. हो अमात्याचे श्रेणीचो आसता. तो आपणाचे बुद्दीन प्रसंगाप्रमाण आपल्या राश्ट्राचें दूतकार्य करता. (२) परिमितार्थ - हो सामान्य अधिकारश्रेणीचो दूत. वरिश्ठांचे सांगणेप्रमाण रकाद पावोवपाचें काम तो वेवस्थीत करता. हाका आपल्या मतांप्रमाण वागपाची मेकळीक नासता. (३) शासनहर - हो फकत पत्रां, खलिते, रकाद आनी वस्तू परराज्यांत व्हरून पावोवपाचें काम करता.

दुतान सदांच सत्य उलोवचें आनी आपल्या राज्याचे उदरगतीचें कार्य तत्परतेन करचें, तेखातीर जीव लेगीत धोक्यांत घालचो पडल्यार ताची पर्वा करची न्हय, अशें कौटिल्यान सांगलां. परदेशांत आसतना ताणें थंयचे लस्करी परिस्थितीची बारीकसाणीन म्हायती मेळोवची अशें कामंदकीय नितीसारांत म्हळां. मत्स्यपुराणांत दुताचीं लक्षणां सांगतना म्हळां की राजाचो दूत हो थारायलां तेप्रमाण उलोवपी, वेगवेगळ्या देशांच्यो भाशा उलोवपी, कश्ट सहन करपाची शक्ती आशिल्लो, बरो वक्तो आनी देशाच्या इतिहासाची आनी भुगोलाची खोलायेन म्हायती आशिल्लो आसूंक फावो. दुताचे गूण सांगतना कौटिल्यान म्हळां की दूत बुद्दिमान, बरो वक्तो, विद्वान, दुसऱ्याचें मन जाणपी, धीट आनी फावो तशें उलोवपी आसचो.

रामान लंकेचेर घुरी घालतकच अंगदाक आपलो दूत म्हणून रावणाकडेन धाडिल्लो. रामाचो रकाद ताणें रावणाक वेवस्थीतपणान सांगून आपलें दूतकार्य बरे तरेन केलें, अशें रामायणांत सांगलां.

वैदीक युगापसून गुप्त युगामेरेन दूतपरंपरा दिसता. उपरांतच्या काळांतूय अशे दूत वा राजाचे प्रतिनिधी परराज्यांत धाडटाले. इतिहासांतूय अशा कितल्याशाच दुतांचीं नांवां सांपडटात.

आधुनीक काळांत, राश्ट्रा-राश्ट्रांमदीं सलोख्याचें नातें निर्माण करपाक, तशेंच राश्ट्रां-राश्ट्रांमदलो वेव्हार सांबाळपाचे नदरेन दर एक राश्ट्र आपलो राजदूत दुसऱ्या राश्ट्रांत धाडटा. थंय ताची आपली अशी कचेरी आसता. कर्मचारी आसतात. कांय प्रमाणांत स्वातंत्र्यय आसता. पूण ज्या राश्ट्रांत दुतावास आसता, त्या राश्ट्राची मर्जी आससर ताचे वेव्हार थंय चलता. खंयच्याय राश्ट्राक परकी दूत आपल्या राश्ट्रांत नाका असो दिसलो जाल्यार तो ताका आपल्या राश्ट्राभायर काडूंक शकता. तशेंच, खंयच्याच राश्ट्राक आपलो दूत परकी राश्ट्रांतल्यान काडून घेवंचेशें दिसलें, जाल्यार तें तशें करूंक शकता. दुतांच्या अदलीबदलीच्या आंतरराश्ट्रीय कराराप्रमाण दुतांचे वेव्हार त्या त्या राश्ट्रांनी चलतात.

राजदूत हे राज्याच्या गुप्तहेरांपरस वेगळे आसतात. गुप्तहेर हे राज्याच्या हिताचेंच काम करतात आसले, तरी तांकां ते जंय वावर करतात, थंयच्या शासनाची मान्यताय आसना आनी तांच्या ह्या अनधिकृत वावराखातीर ते त्या शासनाचे शिक्षेक पात्र थरतात.

– कों. वि. सं. मं.

**दूद :** स्तनी प्राणी, भुरग्याक जल्म दितात त्या काळांत (जल्माच्या कांय दीस पयलीं आनी कांय दीस उपरांत) स्त्री प्राण्यांच्या स्तनांत पातळ द्रव पदार्थ आपसुकूच निर्माण जाता, ताका दूद म्हण्टात. हो द्रव पदार्थ जल्माक येवपी भुरग्याचें, सुर्वेच्या काळांतलें सभावीक अशें पोशण करपी पुर्णान्न आसता. दूद हें प्राणवर्धक, सगळ्या प्राण्यांक आत्मसात जावपी, कुडीचें तशेंच मनाचें बलवर्धक, बुद्दीक हितकर, श्रमहर, दोशशामक, रोगनाशक, अशें दुदाचें वर्णन आयुर्वेदांत मेळटा.

**इतिहास** – स्त्री स्तनी प्राण्यांमदीं निर्माण जावपी दुदाचें प्रयोजन जरी नवजात भुरग्याच्या पोशणाखातीर आसलें तरी, मनीसप्राणी सोडून, हेर स्तनी प्राण्यांच्या ज्यादा दुदाचो उपेग नवजात भुरग्यावांगडाच हेरांकूय एक आहार म्हणून जाता.

दुदाचो अन्न म्हणून वापर केन्नासावन सुरू जालो हेविशीं निश्चीतपणान सांगप कठीण आसलें, तरीय खूब आदींसावन लोक दुदाचो अन्न म्हणून वापर करताले हाची गवाय मेळटा. आदांवाचो भुरगो आबेल हाणें देवदुतांक दूद दिल्ल्याचो उल्लेख बायबलांत मेळटा. चरबी (Fats) आनी संयोजी पेशींतूच दुग्धवाहक नलिका आनी दूद निर्माण करपी पेशींपसून निर्माण जाल्ले दुग्धकोश शिंपडिल्ले आसतात. गुरवारपणांत स्त्रीमदजन (Oestrogen) गर्भरक्षक (Progesterone) हीं हार्मोनां दुग्धस्त्रावक घटकांची वाड जावपाक मदत करतात. स्तन वाडीच्या प्रमाणाचेर दूद निर्माण जावपाचें प्रमाण थारता. गुरवारपणांत सुरू जाल्लें अल्प दुग्धस्त्रवणाचें प्रमाण बाळंटेरा उपरांत चड जाता. पोषग्रंथीच्या दुग्धस्त्रावक आनी हेर हॉर्मोनांचें स्त्रवण मेंदवांतलो अधोथॅलॅमस हो भाग नियंत्रीत करता. गरज पडटा तेन्ना दुग्धस्त्रावक हॉर्मोनांचें उत्पादन करप आनी गरज नासतना उत्पादन आडावप हाचेर ह्या भागाचें नियंत्रण आसता. बाळंटेरा वांगडाच दूद पाझरपाक सुरवात जाता. सुर्वेचे दोन-तीन दीस उण्या प्रमाणांत आनी उपरांत नेमान दूद गळूंक लागता. दुदाचें उत्पादन णव ते अठरा म्हयन्यांमेरेन चलता. सर्वसादारणपणान दर दिसाक एक ते देड लिटर दूद तयार जाता आनी सादारणपणान भुरग्याक ८५० मीली. दूद पुरो आसता. जेन्ना भुरगें दूद पिता तेन्ना दुग्धकोशांतलें दूद भायर पडपाक आनी दुग्धस्त्रवणाचेर नियंत्रण दवरपाक आपशींच मदत जाता. ६००० वर्सांपयलींच्या सुमेरियी संस्कृतीच्या काळांतल्या कोरीव आनी चित्रकलेच्या कामांत दूद काडपाचो संकेत दिवपी चित्रां मेळटात. वैदिक आनी संस्कृत वाङ्मयांत दूद आनी दुदापसून जावपी जिनसांचो उल्लेख मेळटा. महाभारतांत श्रीकृष्ण, गवळणी आनी लोणी हांचो प्रामुख्यान उल्लेख मेळटा. प्राचीन ग्रीक आनी रोमी लोक दुदापसून जावपी लोणयाचो वापर घायांचें वखद आनी केंसांक लावपाचें तेल म्हणून करताले. तुपाचे दिवे वापरपाची पद्दत १५ व्या शेंकड्यामेरेन बऱ्याच देशांनी चालू आशिल्ली.

सर्वसामान्यपणान गाय, म्हस, बोकडी, मेंढरी, घोडी, उंटीण आनी याक ह्या मनशाळिल्ल्या प्राण्यांच्या दुदाचो वापर करप जाता. तातूंतले तातूंत गाय, म्हस हांच्या दुदाचो वापर चड प्रमाणांत करप जाता. बोकडी आनी मेंढरेच्या दुदाचो स्विकार सगळेकडेनूच जाता आसलो तरी ताचें उत्पादन प्रमाण खुबूच उणें आसता. उंटिणीचें दूद चड करून ऊंट पाळप्यांमदींच वापरप जाता. तशेंच याकाचें दूद हें प्राणी मेळपी दोंगरी प्रदेशांतले लोकूच वापरतात. घोडयेचें दूद आसा तशेंच वापरिनासतना ताचेर प्रक्रिया करून हेर पदार्थांवांगडा वापरप जाता.

**दुदाचे घटक :** दुदाक पुर्णान्न म्हळां कारण तातूंत भुरग्यांच्या पोशणाखातीर लागपी सगळे आहार घटक संतुलीत प्रमाणांत आसतात.

स्तनी प्राण्यांच्या दुदांतल्या मुखेल घटकांची सरासरी ह्या कोश्टकांत दिल्या.

| प्राणी | उदक | चरबी | दुग्धशर्करा | प्रथिनां | लवणां |
|---|---|---|---|---|---|
| मनीस | ८७.५० | ३.७५ | ६.३५ | २.१० | ०.३० |
| गाय | ८७.४० | ३.७० | ४.७५ | ३.४० | ०.७५ |
| म्हस | ८२.७६ | ७.३८ | ३.६० | ५.४८ | ०.७८ |
| बोकडी | ८२.३५ | ७.५० | ४.९० | ४.४० | ०.८५ |
| मेंढी | ७९.५० | ९.०० | ४.७० | ५.८० | १.०० |
| घोडी | ८९.१० | १.६० | ६.१५ | २.६५ | ०.५० |
| दुकन्न | ८४.०५ | ६.५० | ३.२५ | ५.२० | १.०० |
| गाढवीण | ८९.९० | १.४५ | ६.१५ | २.०० | ०.५० |
| उंटीण | ८६.६५ | ३.०५ | ५.५० | ४.०० | ०.८० |
| हतीण | ६७.८५ | १९.५७ | ८.८४ | ३.०९ | ०.६५ |
| रेनडियर | ६८.५५ | १७.१० | २.६२ | १०.१५ | १.५५ |
| देवमासो | ६२.३० | २२.२० | १.८० | १२.०० | १.७० |
| सोंसो | ७१.३० | १२.९० | १.९० | ११.५० | २.३९ |
| सुणें | ७५.५० | ११.८० | ३.२५ | ८.६५ | ०.८० |

उदक, प्रथिनां, चरबी, कार्बोहायड्रेट, क्षार पदार्थ, जीवनसत्वां, एन्झायमां, फॉस्फोलिपिड, कॉलेस्टॅरॉल, रंगद्रव्यां अशा घटकांचो दुदांत आस्पाव आसता. पयले पांच घटक चड प्रमाणांत आसतात जाल्यार उरिल्ले घटक उण्या प्रमाणांत आसतात. प्राण्यांच्या जातींप्रमाण ह्या

घटकांचें प्रमाण चड-उणें आसता. तशेंच एकेच जातीच्या पूण विंगड विंगड वाठारांतल्या प्राण्यांच्या दुदांतल्या घटकांनी थोडो-भोव फरक दिसता. अशें जरी आसलें तरी ते-ते जातींतल्या भुरग्याच्या पोशणाक तें तें दूद उपयुक्त अशें आसता.

**दुदाचे पदार्थ :** नीज रुपांतल्या दुदाचो वापर जसो जाता तसो तो दुदापसून तयार जावपी खाणाखातिरूय जाता. लोणी, मलय, तूप, धंय, ताक, खवो, चीज, आयस्क्रीम, लस्सी, पोस, खीर-पायस, संदेश, रसगुल्ले, पनीर, कलाकंद, बासुंदी, श्रीखंड, पेडे, चॉकलेटी, बिस्कुट्यो, बर्फी, कुंदो, सारकिल्ल्या गोडशा खातीर दुदाचो वापर करप जाता. दुदाचेर प्रक्रिया करून दुदाचो पिठो तशीच दुदाची पेस्ट करून सीलबंद डब्यांतल्यान विक्री करप जाता. मूळ रुपांतलें दूद तशेंच पिठो आनी पेस्ट रुपांतलें दूद हातूंत घटकांच्या प्रमाणांत फरक उरता.

**दूद वेवसाय :** भोवतेक सगळ्याच राश्ट्रांतलो हो एक म्हत्वाचो आनी गरजेचो वेवसाय. रशिया, अमेरिका, फ्रांस, न्यूझीलंड, ऑस्ट्रेलिया, जर्मनी, पोलंड, ब्रिटन, इटली, कॅनडा, डॅनमार्क हे देश दूद उत्पादनांत आघाडेचेर आसात. वट्ट उत्पादनांत गायच्या दुदाचो व्हड वांटो (८०% ते ८५%) आसा. बाकीचें दूद हेर जनावरांचें आसता. विज्ञानाचे उदरगतीचो दूद वेवसायाच्या विकासाक खूब हातभार लागलो. येरादारीचीं साधनां आनी दूद सांबाळून दवरपाच्या फ्रिज्या सारकिल्या साधनांक लागून दुदाची पयसमेरेन आनी चड काळामेरेन येरादार करप सोंपें जालें. दुदाळ अशा गायी-म्हशींचें शास्त्रीय प्रजनन, कृत्रिम वीर्य सेचन, दोन वितांमदलें अंतर-आकुंचन, जनावराचे खावडींत आनी एकंदर आहारांत जाल्ली सुदारणा, जनावरांचे संसर्गजन्य रोग-निर्मुलन ह्या सगळ्यांच्या सामुदायिक आदारान दूद उत्पादनांत विक्रमी भर पडत रावली. दूद आनी दुदापसून तयार केल्ल्या खाणांच्या वापरांत जाल्ली वाड हाचो दूद-उत्पादन वाडीक आदार मेळत गेलो. संवसारांतल्या भोवतेक लोकांक प्रिय आशिल्ल्या च्या आनी काफी ह्या पेयांखातीर दुदाचो वापर सर्रासपणान करप जाता.

– डॉ. एन. एस. धुमे

## दूरचित्रवाणी :

दृश्य चित्र (चल वा निश्चल) आनी ताका संबंदीत आशिल्ल्या आवाजाचें उच्च कंप्रतेच्या विद्युत चुंबकी तरंगांच्या आदारान एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार प्रेषण आनी ग्रहण करप म्हळ्यार दूरचित्रवाणी. खंयच्याय दृश्याकडेन पळयतकच आमच्या दोळ्यांवरवीं आमकां चार गजालींचें गिन्यान मेळटा - (१) दृश्याच्या वेगवेगळ्या भागांतल्यान प्रकाश परावर्तीत जातकच उजवाड आनी सावळी हांची विशिश्ट अशी रचनाकृती (२) दृश्यांतले हालपी आनी स्थीर अशे घटक (३) दृश्यांतले वेगवेगळे रंग (४) त्रिमिती अवकाशांतल्या वस्तूंची लांबी, रुंदी हेविशींचो अदमास.

दूरचित्रवाणीची जी पयली पद्दत उपेगांत आयली तातूंत पयल्या दोन प्रकारांचें गिन्यान संपादन करपाचेर भर दिल्लो. सद्याच्या काळांत सादारणपणान पुराय संवसारांत रंगीत दूरचित्रवाणीचो प्रसार जाला. तेखातीर दृश्टीवरवीं मेळपी सगळें गिन्यान दूरचित्रवाणीक लागून प्रेषित करपाक मेळटा.

मनीस जेन्ना कसलेंय दृश्य पळयता तेन्ना ताच्या दोळ्यांनी आशिल्ल्या भिंगांवरवीं दोळ्यांतल्या पड्ड्याचेर द्विमितीय चित्र तयार जाता. थंय ताचें विद्युत संकेतांत रुपांतर जाता आनी लाखांनी संदेश मनशाच्या मेंदवाक मेळटात. मेंदवांत ह्या संकेताचें संश्लेशण (एकठांय करप) आनी निःसंकेतन (मूळ चित्र मेळोवपाची क्रिया) जाता अशे तरेन मनशाक मूळ दृश्य त्रिमितीय स्वरुपांत दिसता. हाचेवयल्यान कळटा तें म्हणजे १) दृश्य चित्राचें ताच्या घटकांनी विभाजन (२) दरेका घटकाचे विद्युत् संकेतांनी रुपांतर (३) विद्युत् संकेताची क्रमवार मांडावळ करून मूळ प्रतिमेची जुळणी हे दूरचित्रवाणी पद्दतीचे मूळ टप्पे आसूंक जाय. प्रतिमेचें विभाजन करपाची कल्पना सगळ्यांत आदीं अमेरिकेचे डब्ल्यू. ई. सॉयर आनी फ्रांसाचो एम. लब्लां हाणीं १८८० ह्या वर्सा मांडली. पूण हाची प्रत्यक्ष येवजण १८८४ वर्सा जर्मनींत पावल निपको हाणें प्रयोगशाळेंत वापरली. हेखातीर ताणें एक विशिश्ट अशी तबकडी वापरली. सेलेनियम ह्या धातूचो विद्युत् रोध ताचेर पडपी प्रकाशाचे खरायेचेर आसता. ह्या तत्त्वाचो उपेग ताणें दृश्य संकेताचें विद्युत् संकेतांनी रुपांतर करपाखातीर केलो.

१९२६ वर्सा इंग्लंडांत जे. एल्. बॅर्ड हाणें दूरचित्रवाणी प्रेषणाचें प्रात्यक्षीक करून दाखयलें. ताणें प्रतिमेचे ३० रेशांनी भाग केले. ह्या रेशांपंगडाक चौकट अशें म्हण्टात. बॅर्ड पद्दतीन अशो १० चौकटी एका सॅकंडान मेळोवन अंतीम प्रतिमा तयार जाताली. १९०८ वर्सा ए. ए. कॅंबेलस्विनटन हाणें यंत्रीक पद्दतीच्या जाग्यार इलॅक्ट्रॉन शलाकाचो वापर करचो अशी सुचोवणी दिली. इलॅक्ट्रॉनाचें वस्तुमान सामकें उणें आशिल्ल्यान हे पद्दतींत चौकट निर्मितीचें काम खूब गतीन जावंक शकता. आयकॉनोस्कोप हो सुविकसीत असो कॅमेरा ट्यूब वी. के. इचारकियन हाणें अमेरिकेंत १९२३ वर्सा तयार केलो. १९३२ वर्सा अमेरिकेंत आर. सी. ए. हे कंपनीन पुराय इलॅक्ट्रॉनीक दूरचित्रवाणीचें प्रात्यक्षिक दाखयलें. १९३५ वर्सा जर्मनींत १८० रेशा एके चौकटेंत आशिल्ली दूरचित्रवाणी सेवा सुरू जाली. त्याच वर्सा एमिस्ट्रॉन ह्या आयकॉनोस्कोपाच्या सुदारिल्ले आवृत्तीचो सोद लागलो, ताचे उपरांत प्रतिमा ऑर्थिकॉन हे प्रकार अस्तित्वांत आयले. ताका लागून दूरचित्रवाणी तंत्रांत भरपूर सुदारणा जाली. सादारणपणान दूरचित्रवाणीचे कार्यक्रम अमेरिकेंत १९४१ वर्सा जाल्यार युरोपी देशांनी १९५० वर्सा सुरू जाले.

दूरचित्रवाणी यंत्रणेचे मुखेल विभाग :

(१) कॅमेरानलिका (२) प्रेषक (३) ग्राही (४) चित्रनलिका.

(१) कॅमेरानलिका : दृश्याची स्पश्ट अशी प्रतिमा भींग वापरून प्रकाशविद्युत् संवेदनशील पड्ड्याचेर तयार करतात. पड्ड्याच्या सूक्ष्म घटक भागाचेर उजवाडाचे खरायेच्या प्रमाणांत विद्युत् संवाहकताय निर्माण जाता. अशेतरेन उजवाड संकेताचें विद्युत् संकेतान रुपांतर जाता. कॅमेरानलिकेंतली इलॅक्ट्रॉन शलाका दावेकडल्यान उजवेकडेन आनी ल्हव ल्हव सकयल ह्या क्रमान सगळे प्रतिमेचें क्रमवीक्षण करतात. हें जाता आसतनाच नलिकेच्या विद्युत् मंडळांत विद्युत् प्रवाहांत पड्ड्याच्या घटक भागांचेर निर्माण जाल्ल्या विद्युताच्या समप्रमाणांत बदल जाता. एक चौकट पुराय जातकच शलाका परतय वयरसावन सकयल मेरेन भोंवता. आयकॉनोस्कोप आनी ताचेउपरांत सोद लायिल्ल्यो नलिका हातूंत दोश आशिल्ल्यान संशोधकांनी नव्या नव्या प्रयोगांचो सोद लायलो. ह्यो आर्विल्ल्यो कॅमेरानलिका अशो : (१) आयकॉनोस्कोप (२) प्रतिमा आयकॉनोस्कोप (३) प्रतिमाऑर्थिकॉन (४) तीव्रतावर्धक प्रतिमा ऑर्थिकॉन

(५) एमिट्रॉन (६) व्हिडिकॉन (७) प्लॅविकॉन (८) सिलिकॉन द्विप्रस्थ व्हिडिकॉन.

**इलॅक्ट्रॉन शलाकेवरवीं क्रमवीक्षण** (Electron beam Scanning) : हें दोन तरांनी करूं येता. साद्या क्रमविक्षणांत शलाका सगळे प्रतिमेचेर एका सकयल एक अशे पद्दतीन सरळ घुंवता आनी सकयल पावतकच परत वयल्यान सुरू करता.

आकृती क्र. १ हातूंत दाखयल्लेप्रमाण आंतरगुफित क्रमविक्षण (Interlaced Scanning) हे पद्दतीन शलाका क्रमान एका सकयल एक अशा सगळ्या रेशांचेर धांवनासतना पयली ती विषम क्रमाकांच्या सगळ्या रेशांचेर धांवता आनी मागीर सम क्रमांकाच्या सगळ्या रेशांचेर धांवता. अशें केल्ल्यान नलिकेंत दिसपी चित्र अदीक स्थीर दिसता. अ ते आ (चित्रांत दाखयल्ले प्रमाण) ह्या कालावधीक Trace अशें म्हण्टात जाल्यार आ ते इ ह्या कालावधीक Retrace अशें म्हण्टात.Retrace च्या वेळार शलाकेचेर नियंत्रण करून ती ते वेळेपुरती पड्ड्याचेर रेशा तयार करता अशी वेवस्था केल्ली आसता. हाकाच Blanking अशें म्हण्टात.



आ. क्र. १ आंतरगुफित क्रमविक्षण

युरोपीय पद्दतींत (जी भारतांतय वापरतात) एके चौकटेंत ६२५ ओळी आसतात जाल्यार अमेरिकी (जी जपानांतय वापरतात) पद्दतींत एके चौकटेंत ५२५ ओळी आसतात. ६२५ ओळींचें क्रमविक्षण करता आसतना एके ओळीचेर भोंवपाक शलाकेक ६४ मायक्रोसेकंद (१ सेकंद = १० मायक्रोसेकंद) लागतात. ही सगळी क्रिया करपाखातीर शलाकेक क्षितीज आनी उदग्र (Vertical) दिशांनी विशिश्ट तरांच्यो गती दिवंच्यो पडटात. तेभायर कॅमेरानलिका आनी चित्रनलिका (Picture tube) जी दूरचित्रवाणी ग्राही संचांत आसता. ह्या दोगांतल्या शलाकांची गती एकच उरची आनी दोगांयमदीं समकालीकता आसची हेखातीर विशेश प्रकारचीं इलॅक्ट्रॉनीक मंडळां वापरचीं पडटात.

सरयेच्या वेंटाळ्यान खरवतीच्या दांतांच्या आकाराची तरंगाकृती आशिल्लो विद्युत् प्रवाह सोडल्यार शलाकेची जाय तशी हालचाल जावं येता. अशा प्रकारचो विद्युत प्रवाह करपी आंदोलक (Sweep Oscillator) जी कंप्रताय तयार करता ती थीर आसची पडटा. ना जाल्यार ग्राहींत तयार केल्लें चित्र वयर-सकयल धांवपाक शकता वा दाव्यांत उजव्यांत हालपाक शकता. हे खातीर आंदोलकाची पुनरावृत्ती कंप्रता एक प्रमाण आंदोलक वापरून नियंत्रीत करतात.

एका सेकंदान ५० चौकटी करतात (अमेरिकी पद्दतींत ६०). हाचेवयल्यान अशें कळटा की आंदोलकाची कंप्रताय ६२५×५० = १५,६२५ Hz इतली आसची पडटा. ही क्षितीज आंदोलकाची कंप्रता एका सेकंदाक ५० चौकटी दवरचेखातीर जो उदग्र आंदोलक लागता ताची कंप्रताय अर्थांतूच ५० Hz आसची पडटा.

**दूरचित्रवाणी प्रेषण :** हातूंत दृक (Video) आनी (२) श्राव्य (Audio)अशे दोन प्रकारांचे संकेत एकाच वेळार प्रक्षेपीत करचे पडटात. हें कार्य करपाखातीर वापरांत येवपी येवजण आकृती २ हातूंत दाखयल्या.

दृश्यापसून मेळपी संदेश २, ४ वापरून Amplify करतात. ३ह्या मंडळाचें काम क्रमवीक्षण क्रियेखातीर लागपी विद्युत् संकेत आनी समकालीकरण संकेत तयार करप. दृश्य चित्र जाय तशें मेळटा काय ना हें पळोवपाखातीर १५ आनी १६ वापरतात. हातूंत १६ हीं घरांत वापरतात, तसल्या संचांतली चित्रनलिका आसा. ६ हातूंत दृश्य संकेताचे संदेशवाहकावांगडा (जो ५ निर्माण करता) विरुपण करतात. २ हाचेभाशेनच ध्वनीग्राहकान ओडून घेतिल्लो ध्वनी १० आनी ११ Amplify करतात. मागीर तो १३ ह्या ध्वनी विरूपित विवर्धकांत वता. तेचवांगडा १२ हो ध्वनीवाहक कंप्रता तयार करता. १३ त विरुपण जाता. १७ हो विवर्धक आनी १८ हो ध्वनीक्षेपक मेळून येता तो आवाज बरोबर आसा काय ना हें कळपाक मदत करतात. हाकाच ध्वनी परिक्षक (Monitoring of audio) अशें म्हण्टात.




**आकृती क्र. २**

**दूरचित्रवाणी प्रेषक मंडल येवजणेचो आराखडो**

(१) दूरचित्रवाणी कॅमेरा (२, ४) दृक कंप्रता विवर्धक (Video Amplifier)(३) क्रमविक्षण आनी समकालीकरण जनित्र (scanning and Synehronizing Sweep generator) (५) दृक संदेशवाहक कंप्रता आंदोलक (Video Carrier oscillator) (६) विरूपित विवर्धक (चित्र) (Modulator amplifier for Video) (७) उपपट्टा गाळणी (Bandpass filter) (८) विविध संकेत भारक (Combining Network) (९) ध्वनी ग्राहक (Microphone) (१०) (११) श्राव्य कंप्रता विवर्धक (Audio Amplifier) (१२) ध्वनीसंकेत वाहक कंप्रता (Audio Carrier Oscillator) (१३) विरूपित विवर्धक (ध्वनी) (Modulator Amplifier for Audio) F. M. (१४) आकाशक (Antenna) (१५) चित्रपरीक्षा विवर्धक (Video Monitor Amplifier) (१६) परिक्षा चित्रनलीका (Monitoring picture tube) (१७) ध्वनी परिक्षक, विवर्धक (Audio Monitor Amplifier) (१८) ध्वनीक्षेपक (Loudspeaker) १९) दृश्य (Picture).

हांगां एक फरक लक्षांत घेवपासारको आसा. तो म्हळ्यार दूरचित्रवाणी पद्दतीन ध्वनीचें कंप्रता विरुपण (Frequency Modulation) जाल्यार दृश्याचें परमप्रसर विरुपण (Amplitude Modulation) करतात. देखुनूच दूरचित्रवाणी संचाचो आवाज हो रेडिओ प्रसारणाच्या आवाजापरस कितल्याशाच बऱ्या दर्जाचो आसता. शेवटाक दोनूय संकेत ८ह्या संकेत भारकांत एकामेकांत भरसतात. उपरांत १४ ह्या आकाशकावरवीं तो मिश्र संकेत अवशांत वता.

ते दिशेन बागवता. तिचें बागोवप आनी कॅमेरा नलिकेंतलें शलाकेचें बागोवप हांचे मदीं वयर सांगिल्ल्या स्पंदाखातीर समकालीकरण जाता. ह्या सगळ्यांचो परिणाम असो जाता की चित्रनलिकेच्या पड्ड्यार तयार जाल्लें चित्र थीर रावता.

ही म्हायती कृष्णधवल प्रेषण आनी ग्रहण हांकां लागू जाता. त्यामानान रंगीत दूरचित्रवाणी प्रेषण आनी ग्रहणाची क्रिया कठीण आसता. हातूंत तीन वेगवेगळे दृश्य संकेत (जांकां तांबडो, पाचवो, निळो संकेत) जे




आकृती क्र. ३

**दूरचित्रवाणी ग्राही मंडल**

(१) मेलन मंडल, स्थानिक आंदोलक आनी विवर्धक (Mixer, Local Oscillator & Amplifier) (२) मध्यम कंप्रता विवर्धक (Intermediate frequency Amplifier) (३) दृकशोधक (Video Am detector) (४) दृकसंदेश विवर्धक (Video Amplifier) (५) चित्रनलिका (Picture Tube) (६) समकालीकरण स्पंद विभक्तीकरण (Synchronizing Pulse Separator) (७) उदग्र गती प्रसर्प आंदोलक (Vertical Oscillator) (८) क्षितीज गती प्रसर्प आंदोलक (Horizontal Oscillator) (९) ध्वनी मध्यम कंप्रता विवर्धक (१०) ध्वनी शोधक (११) ध्वनी विवर्धक (१२) ध्वनिक्षेपक (१३) ग्राही आकाशक ७ (अ) आनी ८ (अ) विवर्धक.

आकृती क्र. ३ ही ग्राही मंडलाची आसा. अवकाशांतलो दूरचित्रवाणी संकेत १३ पकडटा. १ ह्या मंडळांत स्थानिक आंदोलकाचे कंप्रतेखातीर संकेताची मूळ कंप्रता (वाहक) हिचें मध्यम कंप्रतेंत रुपांतर जाता. हाकाच Mixing अशें म्हण्टात. ३ ह्या दृकशोधकांत मूळ संकेत वेगळो जाता. ४ ह्या विवर्धकांतल्यान ताचो आवाको वाडोवन तो चित्रनलिकेक पावयतात. तशेंच ९, १० आनी ११ हे दरेकीं ध्वनीचे मध्यम कंप्रता विवर्धन शोधन आनी परत विवर्धन अशें कार्य करतात. ध्वनी संकेत निमाणे १२ ह्या ध्वनीक्षेपकांतल्यान आयकुपाक मेळटात.

६ हें म्हत्वाचें मंडल. तें मूळ संदेशांतल्यान समकालीकरण स्पंदाचें विभक्तीकरण करपाचें काम करता. हे स्पंद ७ आनी ८ ह्या आंदोलकाक दितात. ह्या आंदोलकाची कंप्रता स्पंदावयल्यान थारता. दरेकीं ५० $H_2$ (उद्रक कंप्रता) आनी १५,६२५ $H_2$ (क्षितिज कंप्रता) आशिल्ल्यो ह्यो कंप्रता फावो अशा विवर्धकांवरवीं (७ अ, ८अ) चित्रनलिके भोंवतणीं गुठलायल्ले सरयेंतल्यान विद्युत प्रवाह सोडटा. ह्या प्रवाहाखातीर तयार जाल्ल्या चुंबकीय क्षेत्राखातीर चित्रनलिकेंतली इलेक्ट्रॉन शलाका योग्य

एकामेकांत भरसूंक जाय तो रंग तयार करपाचें तत्त्व वापरतात. हेखातीर चित्रनलिकेंतय खूब बदल घडोवचे पडटात. ताका लागून तीन वेगवेगळ्यो इलेक्ट्रॉन शलाका निर्माण करतात.

दरेक शलाका तांबड्या, पाचव्या वा निळ्या संकेताप्रमाण चड वा उणी प्रखर जाता आनी ह्या तीनय शलाकांचें मिश्रण फावो त्या प्रमाणांत (0.५९ G + 0.3 R + 0.11B) जावन तो रंग दृश्यांत ज्या जाग्यार आसा त्याच जाग्यार तयार जाता. रंगाचें गिन्यान मूळ प्रखरताय संकेतान भरसुपाखातीर (Quadrature Modulation) (एक प्रकारचें विरुपण) नांवाची एक आधुनिक पद्दत वापरतात. हें सगळें करपाखातीर चड विद्युत् मंडलां लागतात. हेचखातीर रंगीत दूरचित्रवाणी संचाक कृष्णधवलापरस चड मोल आसता.

दरेका दूरचित्रवाणी केंद्राक सादारणपणान ७ मेगाहर्ट्झ (7 MHz) रुंदायेचो कंप्रता पटो नेमून दिल्लो आसता. ह्या पट्याक परिवाह (Channel) अशें म्हण्टात.




**आकृती क्र. ४**
**दूरचित्रवाणी केंद्राचो परिवाह**

(१) प्रखरताय संकेत वाहक (Video Signal Luminance Carrier)
(२) रंग संकेत वाहक (Video Signal Chrominance Carrier)
(३) ध्वनी संकेत वाहक (Audio Signal Carrier)

आकृती क्र. ४ हातूंत दाखयल्ले प्रमाण दूरचित्रवाणी परिवाहाच्या ७MHz चे रुंदायेंत तीन संदेश बसयल्ले आसातात. तांकां तिगांकय मेळून ६MHz इतली रुंदाय लागता. अमेरिकी पद्दतीन ह्याच कामाक ६MHz जाल्यार फ्रेंच पद्दतीन १४MHz इतली रुंदाय लागता. जितली रुंदाय चड तितले परिवाह उणे कारण सादारणपणान ५०MHz ते ९००MHz हांचेमदीं जो कंप्रताय पट्टो आसा तो मर्यादीत आसा. ह्या पुराय पट्यांत सुमार ८३ परिवाह आंतरराश्ट्रीय स्तराचेर थारावन वा नेमून दिल्ले आसतात. ताची सादारणपणान मांडावळ कशी आसता हें आ. क्र. ५ हातूंत दाखयलां. परिवाह १ ते ४ पटो १ हातूंत येता. परिवाह ५ ते १२पटो ३ हातूंत येतात. परिवाह १४ ते पटो ५ हातूंत येतात. ह्या तीन पट्यांक Lower VHF Band, Upper VHF Band, VHF Band अशें म्हण्टात. देखीक - मुंबय दूरदर्शनाचो जो परिवाह आसा ताचो क्रमांक आसा - पटो ३ परिवाह ७ (Band 3 channel 7).

| परिवाह क्र. | कंप्रता पट्टो (MHz) | Band |
|---|---|---|
| १ | ४१-४७ | १ (Lower VMF) |
| २ | ४७-५४ | |
| ३ | ५४-६१ | |
| ४ | ६१-६८ | |
| ५ | १७४-१८१ | ३ (Upper VHF) |
| ६ | १८१-१८८ | |
| ७ | १८८-१९५ | |
| — | | |
| — | | |
| — | | |
| — | | |
| १२ | २२३ - २३० | |
| १४ | ४७० - ------ | ४ (VHF) |
| — | ------ - ------ | |
| — | ------ - ------ | |
| ८३ | ------ - ८९० | |

**आकृती क्र. ५**
**मुंबय दूरदर्शनाचो परिवाह**

म्हळ्यार थंयच्यान ज्यो कंप्रताय अवकाशांत सोडटात तांचो व्याप १८८ MHz ते १९५ MHz हांचे मदीं आसा. जेन्ना आमी दूरचित्रवाणी संचार (Tunning) अशें बरयल्लो नियंत्रक (Control) घुंवडायतात तेन्ना संचांत आशिल्ल्या स्थानीक आंदोलकाची (Local Oscillator) कंप्रताय बदलता. ज्या केंद्राचो कार्यक्रम आमी पळोवपाक सोदतात त्या केंद्राच्या वाहक कंप्रतेपसून विशिश्ट जाका Intermediate Frequency अशें म्हण्टात. स्थानीक आंदोलकाची कंप्रताय जाले बरोबर त्या केंद्राचें चित्र आनी आवाज स्पश्ट जाता.




आकृती क्र. ६
**ग्राही आकाशक**

आकृती क्रमांक ६त दाखयल्लेप्रमाण घरगुती वापराखातीर यागी आकाशक हो योग्य आसा. मदीं जो २ द्विधुवी (Dipole) आसा ताची लांबाय वाहक तरंग लांबायेच्या अर्दान आसता. ३, ४, ५ हे दिक्‌देशक (Directors) आसात. ते बाणान दाखयल्ले दिशेन येवपी तरंगांक २ चे दिशेन सोडटात. १ हो परावर्तक आसा जो स्वताचे दिशेन येवपी तरंगाक परतून २ चे दिशेन घुंवडायता अशे तरेन २ ह्या जाग्यार तरंग एकठांय जावन योग्य अशा प्रमाणांत संकेतवृध्दी जाता आनी होच संकेत केबलांतल्यान (TV cable) घरांत दवरिल्ल्या संचाक मेळटा.

- परेश पै अस्नोडकार

पूरक नोंद : दूरदर्शन.

**दूरदर्शन :** दूरचित्रवाणीवयल्यो कार्यावळी वितरावपी भारत सरकारची एक संस्था. म्हायती आनी वितरावणी खात्यासावन स्वतंत्रपणान दूरचित्रवाणीवयल्यो कार्यावळी वितरावपाखातीर 'दूरदर्शन' ही संस्था १ एप्रिल १९७६ दिसा स्थापन केली.

सप्टेंबर १९५९ त युनॅस्कोच्या पालवान दिल्लीक प्रायोगिक स्तराचेर पयलें दूरचित्रवाणी केंद्र सुरू केलें. सुर्वेक मार्गदर्शी दूरचित्रवाणी प्रकल्प अशें स्वरूप आशिल्ल्या ह्या केंद्रावयल्यान सप्तकांतल्यान फकत दोन शिक्षणीक कार्यावळी जाताल्यो. ल्हव ल्हव तें भायल्या आंगांनी परिपूर्ण जालें.

फोर्ड प्रतिश्ठानावरवीं शिक्षणीक दूरचित्रवाणीचो भारतांत कसो प्रसार जातलो, हें पळोवपाखातीर १९६०त एक मंडळ आयलें. मंडळान दिल्ली दूरचित्रवाणी आनी भोंवतणचो वाठार हांचो अभ्यास करून भारतांतले शिक्षणीक दूरचित्रवाणीखातीर एक आराखडो तयार करून दिलो. तेप्रमाण माध्यमिक शाळांनी नेमान शालेय धड्यांच्यो कार्यावळी जावपाक लागल्यो. १९६५ मेरेन भारतांत दूरचित्रवाणीचो व्हडलोसो प्रसार जावंक नाशिल्लो. त्या वर्सासावन केंद्र सरकारान देशांत दूरचित्रवाणीचें जाळें विणपाखातीर यत्न सुरू केले. ऑगस्ट १९६५ त हॅंबर्गासावन स जाणकारांचें एक मंडळ भारतांत आयलें आनी ताणीं पयलें आर्विल्लें दूरचित्रवाणी कलाकेंद्र भारताचे राजधानींत उबारलें. तेप्रमाण सुमार दोन हजार दूरचित्रवाणी

संचांक एकाच वेळार दूरदर्शनाचो लाव जातलो आनी ताचें क्षेत्र ४० किमी. आसतलें, अशी तंत्रीक वेवस्था केली. ह्याच वर्सा केंद्र सरकाराच्या म्हायती आनी नभोवाणी खात्यान डॉ. एस्. भगवंतम् हाचें अध्यक्षतायेखाला दूरचित्रवाणी विकास, प्रसार, नवी पद्दत आनी तंत्र हांच्या अभ्यासाखातीर एक समिती नेमली. हे समितीन आपलो अहवाल सादर करून सबंद देशभर उंचेल्या पांवड्याच्यो दूरदर्शनाच्यो कार्यावळी दिसच्यो, म्हणून १३ परिवाह येवजणेच्या विकासाचेर भर दिवपाची आनी दूरचित्रवाणीच्या स्वायत्त निगमाविशीं शिफारस केली. ते उपरांत डॉ. अशोक चंदा हाचें अध्यक्षतायेखाल केंद्र सरकारान १९६४त नेमिल्ले दुसरे समितीन आपलो अहवाल १९६६त केंद्र सरकाराक सादर केलो. ते समितीन नभोवाणी आनी दूरचित्रवाणी ह्या दोनांयखातीर दोन स्वायत्त निगम निर्मुपाची शिफारस करून निरक्षरताय घालोवपाचें आनी शिक्षण प्रसाराचें एक प्रभावी साधन म्हणून दूरचित्रवाणीचो पुराय देशभर फुडल्या धा वर्सांनी नेटान प्रसार करचो, अशें सुचयलें. सरकारान ह्या दोन समित्यांच्यो कांय मौलिक सुचोवण्यो मानून घेतल्यो. पूण दोन स्वायत्त निगम स्थापन करचे ही शिफारस मात मानून घेतलिना.

**उद्देश :** देशी, विदेशी खबरांचें संकलन करून खबरांपत्रां प्रक्षेपीत करप, देशाची येवजणबद्द सर्वांगीण उदरगत कशी जातली, हाचेविशींचे विचार आनी म्हायती लोकांमेरेन पावोवप, शिक्षणाचो प्रसार आनी प्रचार करप, प्रत्यक्ष शिक्षणीक धडे, शेतकामाविशीं प्रात्यक्षिकां हांचेवरवीं शेतकामाविशींचें शिक्षण दिवप, कुटुंबनियोजन आनी तेविशीची म्हायती दिवप, मनोरंजन करप हीं वेगवेगळ्या स्वरुपाचीं उद्दिश्टां आसात. मनोरंजनाचे आनी म्हायतीचे कार्यावळींत नभोनाट्य, देशी वा विदेशी चित्रपट, संगिताच्यो विंगड विंगड कार्यावळी, चर्चासत्रां, व्याख्यानां आदी कार्यावळी दवरतात.

**रचणूक :** भारत सरकाराच्या म्हायती आनी नभोवाणी खात्याचे अखत्यारीखाल आनी आकाशवाणीचो एक विभाग म्हणून दूरचित्रवाणीचें काम सुर्वेक चलतालें. पूण १ एप्रिल १९७६ दिसा दूरदर्शन ही एक स्वतंत्र संस्था स्थापन केली. तिचे कार्यविभाग आनी तंत्रविभाग अशे दोन स्वतंत्र विभाग आसून प्रक्षेपणाच्यो सगळ्यो तंत्रीक बाजू संबंदीत तंत्रज्ञ पळेतात, जाल्यार कार्यावळींची रूपरेशा संचालक मंडळ थारायता. दरेक केंद्राचो मुखेल केंद्राधिकारी आसता. तो कार्यावळींची देखरेख आनी येवजण करता.

**वेगवेगळीं दूरदर्शन केंद्रां :** दिल्ली दूरदर्शन केंद्र (स्थापणूक : १५ सप्टेंबर १९५९) हें भारतांतलें मुखेल दूरदर्शन केंद्र. हाचेवयल्यान राश्ट्रीय प्रसारणाच्यो कार्यावळी वितरायतात, त्यो कार्यावळी देशांतलीं हेर केंद्रां सहक्षेपीत करतात. हिंदी आनी इंग्लीश खबरो, दर सुक्रार, शेनवारा हिंदी चलचित्रां, प्रदेशीक भाशांतलीं चलचित्रां, भुरग्यांखातीर तशेंच बायलांखातीर खासा कार्यावळी आनी नाटकांच्यो माळो दिल्ली दूरदर्शनावयल्यान वितरायतात. शाळेंतल्या विद्यार्थ्यांखातीर दूरचित्रवाणी कार्यावळी १९६१ वर्सा सावन सुरू केल्यो. ३ मार्च १९७५ सावन दिल्ली दूरदर्शन केंद्रान मुळाव्या शाळांनी वचपी विद्यार्थ्यांखातीरूय अनुपचारीक शालेय पाठ वितरावपाक सुरवात केली.

**मुंबय दूरदर्शन केंद्र :** (स्थापणूक : २ ऑक्टोबर १९७२). मुंबय दूरदर्शन केंद्रावयल्यान इंग्लीश, मराठी, गुजराती, हिंदी आनी उर्दू भाशांतल्यान कार्यावळी वितरायतात. मुंबय दूरदर्शन केंद्रावयल्यान ८ ऑक्टोबर १९७३ सावन शालेय कार्यावळी दाखोवपाक सुरवात जाली. गोंयच्या लोकांक मुंबय दूरदर्शनच्यो कार्यावळी पळोवंक मेळटात.

**गोंयचें दूरदर्शन केंद्र :** (स्थापणूक : २३ जून, १९९०). गोंयांत पुराय स्वरुपाचें केंद्र ना. पूण पणजे आल्तिनार स्थापन केल्ले P.G.F.(Programme Generating Facility) यंत्रणेवरवीं शेनवार आनी आयतार सोडून दर दिसा सांजवेळा सुर्वेच्या काळांत फकत अर्देवर आनी उपरांत एका वराची कार्यावळ कोंकणी भाशेंतल्यान वितरायतात. हातूंत गितां, कांतारां, मुलाखती, नाटकुलीं, टेलिफिल्म, भुरग्यांखातीर कार्यावळी आनी गोंयांत घडिल्ल्या घडणुकांचो सप्तकी वार्तापट अशो कार्यावळी आस्पावतात.

**दूरचित्रवाणी निर्मिती उद्येग :** १९६९त भारतांत तयार केल्लो पयलो दूरचित्रवाणी संच 'टेलिव्हिस्टा' ह्या नांवान बाजारांत आयलो. सँट्रल इलेक्ट्रॉनिक्स इंजिनिअरींग रिसर्च इन्स्टिट्यूट (सीरी) हे संस्थेन तयार केल्ल्या मूळ नमुन्याप्रमाण 'टेलिव्हिस्टा' संच तयार केल्लो.

**दूरचित्रवाणी प्रशिक्षण :** दूरचित्रवाणीविशींचें सगळ्या आंगांचें प्रशिक्षण दिवपाखातीर १९७१ त एक दूरचित्रवाणी प्रशिक्षण केंद्र जोड राश्ट्रांच्या उदरगत कार्यावळींवरवीं नवी दिल्ली हांगा १० ऑगस्ट १९७१ दिसा सुरू जालें. देशांत स्थापन जावपी विंगड विंगड दूरदर्शन केंद्रातल्या कर्मचाऱ्यांक प्रशिक्षण दिवन तयार करपाचें काम ह्या केंद्रांत जाता. सद्या हें केंद्र पुणेंच्या भारतीय चलचित्र आनी दूरदर्शन संस्थेंत हालयलां. हेर आशियाई देशांतल्या विद्यार्थ्यांकूय हे संस्थेंत प्रशिक्षण घेवपाक प्रवेश मेळटा.

दूरदर्शनाकडेन २० कार्यावळ निर्मिती केंद्रांचें जाळें आसा. नवी दिल्लीचें केंद्रीय निर्मिती केंद्र हें तातूंतलें मुखेल. वेगवेगळ्या तांकींचे ५३४ प्रक्षेपक सुमार ७८.७० टक्के लोकांमेरेन कार्यावळी पावयतात. कार्यावळ निर्मिती केंद्रां वाडोवन ४८ केल्यांत आनी ५४५ मेरेन वाडोवन दूरदर्शनचो लाव ८४ टक्के लोकांक मेळटलो, हाची तजवीज केल्या.

दिल्ली, मुंबय, कलकत्ता आनी चेन्नई केंद्रांक दुसऱ्यो वाहिनी आसात. १९९३ सावन ह्या मॅट्रो-वाहिनींचें खाजगीकरण केलां. सद्या वाडत आशिल्ल्या उपगिरो टेलिव्हिजनच्या (CNN आनी STAR) धोक्याक लागून दूरदर्शनान इनसॅट आयडी आनी इनसॅट दोन ए ह्या उपगिऱ्यांच्या पालवान महाराष्ट्र, तमीळनाडू, कर्नाटक, आंध्र प्रदेश आनी ओरिसा ह्या राज्यांतल्यान थळाव्यो सेवा कार्यावळी वितरावपाक सुरवात करून आपली तांक वाडयल्या. डीश अँटेना यंत्रणेवरवीं देशाच्या विंगड विंगड वाठारांनी ह्यो कार्यावळी मेळप शक्य जालां. शिक्षणीक कार्यावळी सादर करपाक १५ ऑगस्ट १९८४ सावन इनसॅट-१ बी उपगिऱ्याचो वापर करपाक सुरवात केली. संसदेंतलें कामकाज, केंद्रीय अदमासपत्रक, क्रिकेट आनी हेर खेळां सर्ती हांचें सरळ प्रक्षेपण दूरदर्शनावयल्यान जाता.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : दूरचित्रवाणी.

## दूरध्वनी : (पळेयात टेलीफोन).

## दूरमुद्रक (टेलिप्रिंटर) : (पळेयात तारायंत्रविद्या).

**देंवचार :** एक भूत योनी. हो म्हादेवाच्या गणांमदलो एक आसा. संस्कृतांत चार म्हळ्यार गुपीत बातम्यो पुंजावपी. गुपीत खबरो देवाक कळोवपी म्हणून हो देवाचो गुप्तहेर (देंवचार) असो अर्थ जावं येता. हो देंवचार एकेकडेन बसपी देव न्हय, तो भोंवता. चर म्हळ्यार भोंवप. जाच्या भोंवपांत देवाचें प्रयोजन आसा वा देव आपल्या कामाखातीर जाका भोंवपाक लायता तो देंवचार. देंवचार हो क्षेत्रपाळ, गांवधड्याची राखण करपी, ग्रामदेवाचे इत्सेप्रमाण काम करपी. ग्रामदेवाक गांवांतल्यो बऱ्यो-वायट गुपीत खबरो सांगपी. ग्रामदेवाचे सांगणेवयल्यान वायट कर्मां, वारेसुत्रां आपणाकडेन बंदिस्त दवरपी असो हो देंवचार. जो मनीस भावार्थान ताका संकटाच्या वेळार उलो करता ताका तो वेळार पावपी. रानांत, दोंगरार, न्हंयेचे देगेर वाट मेळनाशिल्ल्याक रातच्या वेळार, चुडीच्या उजवाडान ताका घरा पावपी असो देंवचाराविशीं समज आसा.

देंवचार गुन्यांव केल्ल्या मनशाक लिपोवन दवरता. त्या मनशाक सगळे लोक दिसतात. पूण तो मात लोकांक दिसना. लिपयल्ल्या मनशाक देंवचार खावपाक फळां हाडून दिता अशें समजतात. गोंयांत साळांत गड्यांचे जात्रेक देंवचार गड्यांक लिपोवपाची कार्यावळ पळोवपाक दर वर्सा लोक गर्दी करतात. देंवचारांत तरातरांचे प्रकार आसात. धावशी रौद्री, वाठा रौद्री, गण रौद्री, खामिणी रौद्री, हांगा रुद्राचें रौद्री अशें जालां. तातूंतले गोंयांत धावशी रौद्री (खांडेपार), वाठा रौद्री (बांदोडें, बाराजण पेडाकडेन), गण रौद्री (शिरोडें), खामणी रौद्री (वेरें) आसात. गोंयांतले हेर कांय नामनेचे देंवचार अशे - वायंगिणीचो देंवचार, सांकवाळचो देंवचार, सांखळ्यो साळचो देंवचार, बांदोडचा कटमगाळांतलो कटमगाळकार देंवचार.

देंवचाराचें कल्पीत स्वरूप अशें आसता - तो काळो धिप्पाड, माथ्याक काळो रुमाल, खांद्यार कांबळ, न्हेसपाक काश्टी वा वालो आनी हातांत खळ्ळ्-खळ्ळ् आवाज करपी दांडो. पूण ह्या दांड्याची आकृती मात वेगळीच आसता. ह्या देंवचाराच्या हातांतल्या दांड्याक अंत्रुजांत 'मुतारी' अशें म्हण्टात. ह्या दांड्याक दोनकडेन बुराक करून तातूंत पितूळच्यो पातळ वाटकुळ्यो ताटल्यो घाल्ल्यान ताचो आवाज खळ्ळ-खळ्ळ जाता.

अशें जरी देंवचाराचें रूप आसलें तरी तो लोकांक खंयच्या ना खंयच्या रुपांत दिसता. देखीक - जनावर वा व्हड सुकणें.

गोरवां-वासरां वा खंयचीय वस्त शेणटकच देंवचाराक नाल्लाची आंगवण केल्यार ती वस्त मेळटा अशी लोकांची भावना आसा. कांय आंगवण रोंटाची (गंवा पिठाची सोयेचें चून घाल्ली भाकरी) आसता, हें रोंट घराभायर भाजतात. हाचेभायर सूर-रोंट, विडो, कोंबो, बोकडो, सोरो हांचीय आंगवण करतात. तशेंच लग्नकार्या वेळार थळाव्या देंवचाराचो नाल्ल-विडो-फूल दवरून भोवमान करप जाता. भारतांत हो गांवधडो राखपी देंवचार गांवागांवांत आसता. ताचे आकृतीबंद अशे उत्सव जायना आसले तरी दर एका गांवांत खंयच्या ना खंयच्या देंवचाराचें अस्तीत्व आनी म्हत्व मानप जाता आनी ताचो आदर तसो भोवमान करप जाता. देंवचारांची खाशेलीं अशीं देवळां नासतात. झाडार, तळ्यार वा उत्ते सुवातेर तांची वसती आसता अशें मानप जाता. कांयकडेन ताच्यो घुमटच्योय बांदिल्ल्यो दिसतात. म्हापशेंच्या बोडगेश्वर (बोणकीचो देंवचार) ह्या देंवचाराचें देऊळ आसा. केरळांत देंवचाराक 'गुलिकन' अशें म्हण्टात. तो ओंवळीच्या झाडार रावता. झाडासकयल एक मोटो फातर आसता. ताका गोंयचे भशेनच रोंट दितात. कर्नाटकांत, कारवाराक कोंकणी उलोवपी लोक ताका देंवचारच म्हण्टात. ह्या देंवचाराच्या परिवारांत जतका, नाग, भूत अशीं पिशाच्चां आसतात. नेपाळांत (अस्तंत वाठारांत) अशेच देंवचार आसात. पूण तांचीं नांवां दरेका गांवांनी वेगवेगळीं आसतात.

सिंधुदूर्ग कोंकणांत हाका देंवचारच म्हण्टात. त्या भागांत ताची रातची भोंवपाची वाट थारिल्ली आसता. ते वाटेर घरां, गोठो, बांदिनात. अशे तरेन गांवच्यो शिमो राखपी हो भूत देंवचार सगळेकडेन आसा.

– वा. ल. वझे

**देखणी :** गोंयचो एक लोकनाच. अस्तंत्या संगिताच्या तालार भारतीय नृत्य पद्दतीन हो नाच करतात. कथ्थक, भरतनाट्यम, कुचिपुडी सारकिल्या अभिजात नृत्यप्रकारांतले घटक ह्या नाचांत आस्पावल्ले दिसतात.

देखणी ह्या उतराचो अर्थ सोबीत असो जाता. ह्या नाचांत देखणेपण भरिल्ल्या कारणान ह्या नाचाक देखणी म्हण्टात आसूंक जाय. देखणी नाचाचो इतिहास देड दोनशें वर्सांपरस फाटीं वचना. देखणी नाचाच्या उगमासंबंदीं जाणकारांमदीं वेगवेगळीं मतां आसात. एका मताप्रमाण देवाचे पालखेमुखार देवदासी समाजांतल्यो बायलो जें पेणेंनृत्य करतात ताचेपसून देखणी नाचाचो उगम जालो. कांय जाणकारांच्या मताप्रमाण पुर्तुगीजांच्या संस्कृतीक आक्रमणांतल्यान वा प्रभावांतल्यान देखणी तयार जाली. कांय जाणांच्या मतान पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांक खोशी करचेपासत भारतीय नृत्य पद्दत आनी अस्तंती संगीत हांचो मेळ जावन ह्या नृत्याचो जल्म जालो.

ह्या नाचाचो उगम कसोय जाल्लो आसलो तरी गोंयच्या लोकनाचांतलो हो एक भुलोवणो आकर्शक नाच. गोंयच्या लोकनाचाच्या आविश्कारांत ह्या नाचाक खाशेली अशी सुवात आसा.



ह्या नाचा वेळार बायलो णव वारी कापड न्हेसतात, केंसांचो आंबाडो घालून ताचेर फुलां माळटात. तशेंच, आंगार पारंपारीक अशो भांगराच्यो वस्ती घालतात. खास म्हळ्यार नाकांत नथ आनी पांयांत घागऱ्यो (पायजणां) बांदतात.

ह्या नाचाक गितार, वायोलीन आनी घुमट ह्या वाद्यांच्या संगिताची

साथ आसता. अस्तंत्या संगिताच्या तालार 'कोरस' पदां म्हणीत हो नाच करतात. क्रिस्तांव तशेंच हिंदू समाजांतल्यो बायलो हो नाच नाचतात. पण्टयो वा पांच-सात वातींचीं दिवजां दोनय हातांनी घेवन मुखेल नाचपी बायल सांगाता नाचपी बायलांसयत हो नाच संगीताच्या तालार करता.

देखणी नाचाचीं जायतीं गितां आसात. आनी तीं कोंकणी भाशेतलीं आसात. तातूंतलें एक नामनेचें आनी चडशें घोळणुकेंत आशिल्लें एक पद

चोलता चोलता जाली म्हाका राती
लोकत झोकत वारे मारून
गेली म्हजी दिवटी (२)
हांव सायबा पलतडी वेता
दामुल्या लग्नाक वेता
म्हाका सायबा वाटु दाकय
म्हाका सायबा वाटु कोलोना
दामुल्या माटवातु कोलोवताचो खेळू
दामुल्या माटवातु कोलोवताचो खेळू
आगा तारया तारया मामा
म्हाका व्हरोन पावय शिरोडे ओय! शिरोडे
घे घे घे घे घे, घेगा सायबा
म्हाका नाका गो म्हाका नाका गो
ही म्होज्या नाकाची नोथू घेगा सायबा
म्हाका नाका गो (२)
ही म्होज्या पायाचीं पोयजणां घेगा सायबा
म्हाका नाका गो (२)
नाकाची नोथु दिता, पायाचीं पोयजणां दिता
म्हाका सायबा वाटु दाकय म्हाका सायबा वाटु कोलोना
म्हज्या पायाचीं पोयजणां सांडली देवा (२)
आगे नारी तुझ्या पायाची पोयजणा पायासरी
म्हज्या नाकाची नथ सांडली देवा (२)
आगे नारी तुज्या नाकाची नथ नाकासरी (२)
घे घे घे घे घे घेगा (१)सायबा
म्हाका नाका गो, म्हाका नाका गो
वोयल्या वोयल्या दोंगरार उदक कोंगरें
उदक कोंगरें जाल्यार नांव म्हुजे मोगरें
शेंवतीं मोगरीं हाडटेलीं मातें भरून मावटेलीं.
म्हज्या पतीसरी बोसतेली. ओय! बोसतेली
चोयाय रे, चोयायरे हांव देखणी नाचोता
भार जाला हो नारी भार जाला
शेंवत्या मोगऱ्यांचो भार जाला
शेवंती मोगरीं जाली सवाय
ती म्हाका नाका बाये
आगे नारी तुज्या नाकाची नोथु नाकासरी
आगे नारी तुज्या पायाची पोयजणां पायांसरी
हांव सायबा पलतडी वेता दामुल्या लग्नाक वेता
म्हाका सायबा वाटु दाकय
म्हाका सायबा वाटु कोलोना

ह्या पदाच्या चालीचेर राजकपूर हाणें बॉबी ह्या सिनेमात 'ना माँगू सोना चाँदी ना माँगू हिरा मोती, ये मेरे किस काम के. हें पद घेतलां.

– कों. वि. सं. मं.

**देगण :** दोन दोंगरांमदली खोल आनी अशीर अशी सुवात. चडशा देगणांतल्यान उदक व्हांवता जाल्यार कांय देगणां सुकींच आसतात. फकत पावसाच्या दिसांनी तातूंतल्यान उदक व्हांवता.

ऊंच दोंगरांचेर चड पावस पडलो म्हण्टकूच उदक नेटान सकयल व्हांवपाक लागता. सुर्वेक हें उदक ल्हान-ल्हान खळयांच्या रुपांत व्हांवपाक लागता. ह्या खळयांतल्यान व्हांवपी ल्हान प्रवाह एकठांय येवन एक व्हड प्रवाह निर्माण जाता. होच प्रवाह उपरांत भूंयपृश्ठाचेर दरी निर्माण करता.

सद्या दिश्टी पडपी खोल आनी रूंद देगणां हीं मुखेलपणान न्हंयेच्या झीज कार्याक लागून निर्माण जाल्लीं आसात अशें भूंयशास्त्रज्ञांनी मत मांडलां. न्हंयेचो उगम जाले उपरांत दोंगरी वाठारांतल्यान वाट काडीत तीं सकयलेवटेन नेटान व्हांवपाक लागतात. उदकाचो लोट खर आशिल्ल्यान ल्हान-व्हड फातर, रेंव आनी हेर जड वस्तू व्हांवून येतात. ह्यो जड वस्तू जमनीचेर एकसारक्यो घांसत रावतात. ही क्रिया खूब तेंप चालूच राविल्ल्यान भूंयपृश्ठाची झीज जावन न्हंयेचें देगण तयार जाता. लोटाचो नेट चड आसल्यार तळाचें आनी देगांचें एकसारकें घर्शण जायत रावता. न्हंयच्या देगांपरस तळाचें घर्शण चड जाता. हाका लागून न्हंयो रुंदायेच्या मानान चड खोल आसतात. कांय तेंपा उपरांत न्हंयच्या पात्राक इंग्लीश 'व्ही' (V) अक्षराभाशेन आकार येता. अशीर 'व्ही' आकाराचीं देगणां सादारणपणान चड पावस पडपी आनी मोव खडपां आशिल्ल्या वाठारांनी सांपडटात. न्हंयांच्यो देगो पाशाणी फातरांच्यो आसत जाल्यार तांची झीज खूब उणी जाता. हाका लागून पात्र रुंदावपाचें कार्य चड सवकास जाता. अशा सुवातींचेर तळभागाचीच झीज जावन देगणाच्यो देगो वण्टीभाशेन तशोच रावतात. हे सुवातेर उबें आनी अशीरशें देगण तयार जाता. ब्रह्मपुत्रा, सतलज आनी सिंधु न्हंयांचीं उबीं देगणां हेच रितीन तयार जाल्लीं आसात.

धर्तरेच्या पोटांत कांय कारणांक लागून एकसारक्यो हालचाली जायत आसतात. कांय हालचाली इतल्यो खर आसतात की हांकां लागून केन्ना केन्नाय भूंयकट्ट्याक व्हड वेर वचून देगणां तयार जातात. पूण हीं देगणां न्हंयेच्या देगणांपरस खूब अशीर आनी ल्हान आसतात. कॅलिफोर्नीयाचें ओवेन्स देगण हे रितीन तयार जाल्लें आसा.

कांय प्रदेशांनी इंग्लीश 'यू' (U) आकारांचीं देगणां पळोवपाक मेळटात. हीं देगणां हिमन्हंयांच्या कार्याक लागून निर्माण जाल्लीं आसात. खूब ऊंच तेमकांचेर सांचिल्लो बर्फ तापलो म्हणटकूच हिमन्हंयेच्या रुपान नेटान सकयल घश्टत येता. हाका लागून पात्राचो तळ आनी देगो एकसारक्यो झरत रावतात. काळाउपरांत इंग्लीश 'यू' अक्षरासारकें देगण तयार जाता.

न्हंयेचो उगम जालेउपरांत सुर्वेक ती दोंगरांमदल्यान खर देंवत्यांनी व्हांवता. ह्या वेळार देगण ल्हान आनी अशीर आसता. उपरांत ताची खोलाय आनी रुंदाय वाडत वता. निमाणे अवस्थेंत चडशो न्हंयो सपाट प्रदेशांतल्यान व्हांवतात. हाका लागून न्हंयांसावन तयार जावपी देगणांचो साप्प निमाणो भाग चड रूंद पूण उथळ आसता.

– कों. वि. सं. मं.

**देलेद्दा ग्रात्स्या :** (जल्म : २७ सप्टेंबर १८७५, नूओरो - सार्डिनिया; मरण : १५ ऑगस्ट १९३६, रोम).

नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्ली इटालियन कांदबरीकार. तिचें शिक्षण मातूय जावंक ना. पिरायेच्या सतराव्या वर्सा सावन ती लिखाण करूंक लागली. तिच्यो चडशो कादंबऱ्यो सार्डिनियाचे फाटभूंयेर आसताल्यो. सार्डिनियाचो वाठार आनी थंयचें आदिम वातावरण तिच्या कादंबऱ्यांवरवीं इटालियन साहित्यांत दिसलें. तिच्या कादंबऱ्यांवरवीं मनशाच्या भितल्ल्या मनांतले मोह आनी पाप हांकां लागून घडून येवपी दुखेस्त परिणाम दिसतात. 'एलिआस पोर्तोलू' (१९३०) ही तिची सर्वश्रेश्ठ कादंबरी. तिका १९२६ वर्साचो नोबॅल पुरस्कार दिवन तिचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देव :** देव शब्द 'दिव' धातूवयल्यान जाला. पाणिनीय धातुपाठांत दिव् धातूचे 'क्रीडा, बिजिगीषा, व्यवहार, द्युति, स्तुति, मोद, स्वप्न, कान्ति, गति इतले अर्थ दिल्यात. म्हणजेच 'प्रकाशप, चकचकप, आनंदीत आसप, जंय संभवता तो 'देव' अशें म्हणूं येता. यास्कान ह्या शब्दाची व्युत्पत्ति दिल्या ती अशी - 'देव : दानात् वा दीपनात् वा द्योतनात् वा / द्युस्थानो भवति इति वा/यो देव : सा देवता' = दान दिवप, चकचकप, प्रकाश दिवप अशा अर्थाच्या 'द, दीप् वा द्युत्' ह्या धातूंपसून देव शब्द तयार जाला. द्युलोकांत रावतात म्हणून देव. ह्या सगळ्यांचो निश्कर्श इतलोच - अलौकिक देह धारण करपी एक वर्ग म्हळ्यार देव.

ह्या देवांकडेन एक दिव्य तेज आसा, सुमाराभायर बळगें आसा. ही शक्त सगळ्याक अदृश्य जावन आसा. भक्ताली श्रध्दा, भक्तीवयल्या पांवड्यार पावली जाल्यार ताका ती दृश्य रुपांतय दिसता. आपलेकडेन आशिल्ले दिव्य शक्तीन देव भक्ताच्यो उपासकांच्यो इत्सा पुराय करता आनी ताचें जीवन भंयविरयत करता. देव अदृश्य रुपान भक्ता म्हऱ्यांत रावता आनी ताका सांबाळटा अशी मनशाची कल्पना आसा.

आपले दीसपट्टे जिणेंतल्यो कांय विलक्षण गजाली पळयल्यार मनशाक सुरवातीच्या काळांत अलौकीक तत्त्व मानपाची गरज भासली आनी हाकाच मागीर 'देव' अशें नांव मेळ्ळें. हें देव तत्त्व सुरवातीच्या काळांत भंयांतल्यान निर्माण जालां, अशें म्हण्टात. सैमांत ज्यो भयंकर गजाली घडटाल्यो त्यो पळयतना मनशाक दिसलें, ह्यो गजाली करपी कसली तरी व्हड शक्ती आसपाक जाय. देखून हे व्हड शक्तीमुखार आमी कांयच करूंक शकचे नात, म्हणून ताचे फुडें मनीस नम्र जालो. ताणें आपलें माथें ते व्हड शक्तीमुखार बागयलें आनी नमळायेन ताची प्रार्थना केली. हातूंतल्यान देव कल्पनेचो उदय जालो.

ऋग्वेदांत तेत्तीस देव मुखेल मानल्यात. हातूंतले इकरा मळबांत, इकरा धर्तरेचेर आनी इकरां उदकांत आसात अशें म्हळां. कांयकडेन इकरा सर्गांत, इकरा अंतरिक्षांत म्हळ्यार मळबांत आनी इकरा धर्तरेचेर आसात अशें म्हळां.

वेदांत केल्ल्या वर्णनाप्रमाण देवांचे विशेश अशे गूण उणेच दिसतात. सगळ्या देवांचे चडशे प्रभाव सारकेच आसात. द्युलोकांक आदार दिवप, धर्तरेची स्थापना करप, तिका थीराय दिवप आदी देवांच्या गुणांक लागून एक देव दुसऱ्या देवासारको दिसपाचोय संबंद आसा. कारण दोगांयचे गुणधर्म आनी सभाव सादारण एकूच आसतात. आपआपले इश्टदेवतेचें स्तवन करतना तांचें तांचें महात्म्य अदीकतायेन वर्णन केलां आनी त्या वेळार हेर देवांक उणे लेखपाचो यत्न जाला. अशीय स्थिती ऋग्वेदांत दिसता.

देव मुळांत अमर नाशिल्ले हेवूय विचार ऋग्वेदांत दिसतात. शतपथ ब्राह्मणांत आनी ऐतरेय ब्राह्मणांत इंद्र, अग्नी आनी प्रजापति ह्या व्हड देवांवांगडा सगळ्या देवांक मरण आशिल्लें अशें मानलां. सवित्यान, अग्निन आनी सोमान देवांक अमरत्व दिलां अशें ऋग्वेदांत म्हळां. ब्रह्मचर्य आनी तप करून देवांनी मरणाचेर जैत मेळयलां अशें अथर्ववेदांत सांगलां. पुराणांनीय देवांक अमर मानलां. पूण कल्पांतांत ताचें अमरत्व सापेक्ष मानलां म्हळ्यार श्रेश्ठ देवांचे अपेक्षेन हेर देवदेवता नश्ट जातात अशी पुराणांनी कल्पना आसा. देवांचें अस्तित्व सिद्ध जातकच देव खंय रावतात हो प्रस्न उपरासलो आनी मागीर सहज कल्पना जाली, देव मळबांत रावतात. देवांचें अस्तित्व धर्तरेचेर दिसना आनी देव प्रत्यक्ष धर्तरेचेर रावनात म्हणून एक वेगळी कल्पना करची पडली आनी ती कल्पना म्हळ्यार सर्गलोक.

देवांचे प्रकारय आसात - (१) अमूर्त देव : हाचे दोन प्रकार आसात. पयल्या प्रकारांत भावनात्मक, काम, मन्यू, श्रध्दा तशेंच अदिती, दिती येतात. अदिती, दिती हांचें ऋग्वेदांच्या उत्तरकाळांत मुर्तीकरण जालें. म्हळ्यार तांच्या आकाराची कल्पना तयार जाली. दुसरे तरेत धातृ, त्वष्टृ आदी येतात. हे देव 'तृ' प्रत्ययांत आसात म्हणून ह्या प्रकाराक तृप्रत्ययांत वर्ग अशें म्हण्टात.

(२) पुरुषदेव : हातूंत मरूत, वरुण, इंद्र, अग्नी, विष्णु, रुद्र, प्रजापति, सूर्य, विवस्वान, अश्वी, सोम, मित्र, पूषा आदित्यगण पर्जन्य आदी.

(३) स्त्रीदेव : उषा, धर्तरी, आप, सरस्वती, रात्री, वाक्, पृष्णी, इळा, राका, सिनीवाली, कुहू, सूर्या, इंद्राणी, रुद्राणी आदी.

(४) जोड देव : वेदीक उपासनेंतलो आनीक एक प्रकार म्हळ्यार मूळ वेगवेगळे आशिल्ले देव एकठांय हाडून जोडदेव कल्पून तांची स्तुती करप. अशो कांय देवता वेदांत मेळटात. मित्रा - वरुण, इंद्राग्नी, इंद्रा - वरुण, इंद्र - वायू, द्यावा - पृथिवी, सोमा - पूषणा, अग्नी - षोम, अग्नी - पर्जन्या, पर्जन्याव्राता, उषासा - नक्ता आदी.

(५) कांय पंगडात्मक देव आसात. सगळ्यांत व्हड पंगड मरूत देवाचो. ऋग्वेदांत ह्या पंगडाचो आंकडो दोन तरांनी दिला. २१ वा १८० रुद्रगणांची संख्या ११ आसा. आदित्य हो पंगड ७, ८ वा १२ देवांचो मेळून जाता. हेभायर आंगिरस आनी ऋभूंचोय पंगड आसा.

पुराणकाळांत कांय वैदिक देवतांक उणेंपण आयिल्लें दिसता. देखीक, वरुण देवाक आशिल्लें व्हडपण वचून सामान्य जलदेवतेचें स्वरूप प्राप्त जालें. इंद्राक वेदांत खूब म्हत्व आसलें, पूण पुराण काळांत विष्णुक व्हडपण येतकच इंद्राचें म्हत्व उणें जालें. ताची पुजाय कांय विशिश्ट प्रसंगांनीच करताले. कांय वैदिक देव पुराणकाळांत दिशांचे धनी जाले आनी तांकां तितलेपुरतेंच म्हत्व आयलें. तेच वांगडा वैदिक विष्णु आनी रूद्र हांचें म्हत्व वाडलें. कांय देवांच्या संबंदान नव्यो कल्पना उदयाक आयल्यो. कांयच्या सामर्थ्याचेर आनी सत्तेचेर मर्यादा पडली. कांय देव व्हड व्हड देवतांनी विलीन जाले. अवताराच्या आनी गुरूच्या रुपान कांय देवांनी मनशाक तत्त्वगिन्यानाचो उपदेश केलो. देखीक : भगवद्गीता, रामगीता, अवधुतगीता, गणेशगीता, देवीगीता आदी.

**पंचायतन कल्पना :** पुराणांत पंचायतन देवांक म्हत्व दिलां. विष्णु, शिव, शक्ती, गणपति आनी सूर्य अशे हे पांच देव. विष्णुक पुराणांनी नित्य, अजन्मा असो निर्मळ परब्रह्म स्वरुपांत मानला. अर्थांत, विष्णुपद हें सगळ्यांत व्हड पद.

वैदिक काळांत रूद्र - शिव हाका जितलें म्हत्व आशिल्लें ताचेपरस चड म्हत्व ताका पुराणकाळांत मेळ्ळें. सद्या शिव हाका विष्णुचे बरोबरीन पुजतात.

देवी म्हळ्यार शक्तीदेवता वा जगदंबा. मुळांत ती धर्तरेचें प्रतीक ह्या स्वरुपांत वावुरताली. तिगेलीं खूबशीं उग्र आनी भयंकर रुपां आशिल्लीं. पुराणकाळांत तिच्या सगळ्या रुपांचें उन्नयन जालें आनी तांचो पंचदेवतांनी आस्पाव जालो.

गणपति ह्या देवाचें मूळ रूप ऋग्वेदांत ब्रह्मणस्पतीच्या रुपान दिसता. पुराणांत तो शिवाचो पूत जालो देखून ताका शिवाच्या घराण्यांत दाखल केल्लो. विघ्ननाशक आनी ज्ञानदातो म्हणून ताका पुराणांत स्वतंत्र प्रतिशठा मेळोवन दिल्या.

सूर्य हो वैदिक देव. ताची उपासना वेदांत सांगिल्ली आसा. पुराणांनी हाचोय पंचदेवतांमदीं आस्पाव करून घेतला. हेभायर लक्ष्मी, सरस्वती, काली, दत्तात्रेय आदी देवतांकय पुराणकाळांत म्हत्व दिलां. हेभायर इश्टदेव, कुलदेव, ग्रामदेव, स्थानदेव आदी देवांचे आनीकय प्रकार आसात.

- डॉ. अनंत राम भट

**देवक :** देवासंबंदान एक कल्पना. हें देवावरी पुज्य आसा. पूण ताका देवाइतलें व्यापक म्हत्व ना.

खूबशा जाती-जमातींनी तशेंच द्रवीड वंशांतल्या कांय लोकांमदीं जनावरांक, सुकण्यांक, झाडांक, वनस्पतींक आपले देव म्हणून मानपाची चाल आसा आनी हीं नांवां ते आपल्या कुळाक दवरतात म्हणजेच पयलीं आपल्या कुळाक जनावरांचीं नांवां दवरप आनी मागीर जें नांव कुळांक दिलां ताका आपलो 'देवक' म्हळ्यार देव मानप. तांचेमदीं देवकाचो आनी कुळाचो कितें तरी रगताचो संबंद आसा वा कितेंय तरी गुपीत ऋणानुबंद आसा अशी कल्पना आसा.

दरेका कुळान जें देवक मानलां ताचेविशीं ताका आदर आसा. खंयच्याय कुळान ज्या प्राण्याक देवक मानलां त्या प्राण्यालें मास ते खायनात वा ताचेकडल्यान कितेंय काम करून घेनात. खंयच्याय कुळान ज्या झाडाक देवक मानलां ताचीं पानां, फळां, फुलां, लाकूड हांचो उपेग तें कूळ करिना. देवक मानिल्लो प्राणी मेल्यार ताचें सुतक पाळटात.

ताचें चामडें विशेश समारंभांनी आंगार घेतात. कांय लोक आपल्या देवकाचीं चित्रां आपल्या आंगार पाडून घेतात. देवक म्हळ्यार त्या त्या कुळाचें विशिश्ट चित्र अशें म्हणू येता.

देवकाचे वर्ग आनी तातूंत येवपी देवकां सादारण सकयल दिल्लेप्रमाण आसात.

(१) प्राणिवाचक देवकां - घोडो, गरूड, रेडो, सोरोप, हत्ती, माकड, दुकर, कांसव, मोर, लांडगो, बोकड, हरण.

(२) वनस्पतीवाचक देवकां - आंबो, चींच, बेल, बोर, लिंबू, शमी, वड, रुमड आदी.

(३) वस्तूवाचक देवकां - कुराड, फूंक मारपाची नळी, सुरी, चिमटो, तरसाद, तेलघाणो, मीठ, भात, लोखण.

खावपाच्या वस्तूंक देवक मानतकच त्यो वस्तू खावंक येनात. पूण ताचे संबंदान दुसरो पर्याय काडटात. मिठाक जाणीं देवक मानलां ते एकोडें मीठ खायनात जाल्यार दुसऱ्या पदार्थांत मेळोवन खातात. लोखणाक जाणीं देवक मानलां ताका ते जिबेन स्पर्श करिनात.

खूबशे लोक आपल्या देवकाची पुजा करतात. मूज, घरप्रवेश, लग्न आदी सुवाळ्यांनी आपआपल्या देवकाची पुजा करतात. असल्या कार्यांनी पयलीं आपल्या घरांतल्या देवाची पुजा करतात. उपरांत एका ताटांत देवक दवरतात. उपरांत तें मारुतीच्या देवळांत व्हरतात. थंय ताची पुजा करून परत तें देवक घरा हाडटात आनी माटवाच्या खांब्याक बांदतात वा देवा म्हऱ्यांत दवरतात. कार्य सोंपलें म्हण्टकूच देवक काडटात.

ह्या देवका संबंदान कांय तत्त्वां मानतात. देवका वांगडा आपल्या कुळाचो गूढ संबंद, देवकापसून आपल्या कुळाची निर्मिती, देवक एक आशिल्ल्या दादल्या-बायलेन परस्परांत लग्नां करप ना आदी नेम पाळटात.

भारतांत सगळ्याकच ही देवकाची प्रथा ना. पूण खूबकडेन प्राण्याची, वनस्पतीची वा कसलेय वस्तूची पुजा करतात. पूण तें तांचें देवकच अशें म्हणूंक येना. हिंदू लोक गाय, नाग, तुळस, वड, शस्त्र, हांची पुजा करतात. पूण तीं तांचीं देवकां अशें मानिल्लें दिसना.

- डॉ. अनंत राम भट

**श्री देवकीकृष्ण-रवळनाथ-पांडववाडो-देवस्थान :** फोंडे म्हालांतल्या माशेल वाठारांत आशिल्लें नामनेचें देवस्थान. ह्या दैवतांचें मूळ स्थान गोंयांतल्या तिसवाडी तालुक्यांतल्या चोडण ह्या जुंव्यावयल्या पांडववाडो वाठारांत आसा. सोळाव्या शतमानांत हो जुंवो पुर्तुगेज राजकर्त्यांचे सत्तेखाला येतकच ताणीं कॅथॉलीक धर्मप्रचाराखातीर हिंदूंचो छळ सुरू केलो. ताणीं देवळाची आनी तातूंतल्या मुर्तींची मोडतोड चलयल्यान हें दैवत स्थलांतर करून त्या वेळावयले पुर्तुगेज शिमेभायर दिवचल म्हालांतल्या मयें वाठारांत व्हरचें पडलें. थंयच्यान कांय वर्सांनी फोंडें म्हालांतल्या माशेल गांवांत देवूळ बांदून थंय ह्या दैवताची स्थापना केली. चोडण जुंव्यावयल्यान हें स्थलांतर सुमार इ. स.



१५४० त पूण १५६४ आदीं मयें वाठारांत जालां आसुंये आनी मयें वाठारांतल्यान श्री क्षेत्र माशेलांत इ. स. १७५१ आदीं जालां आसूंक जाय.

मूळ चोडण जुंव्याचेर आशिल्लीं दैवतां फोंडें म्हालांतल्या गांव वरगांव, क्षेत्र माशेलांत उपरांतच्या काळांत स्थापन केलीं, जीं अजुनूय माशेल क्षेत्रांत पळोवंक मेळटात. तीं ज्या नांवान वळखतात तीं अशीं आसात - श्री देवकीकृष्ण हें मुखेल दैवत पांडववाडकार आनी गावणवाडकार ह्या दोनय कुळांच्या एकंदर म्हाजन कुळावी लोकांची मुखेल देवता मानतात. गोंयांत श्री देवकीकृष्ण दैवताचें हें एकमेव देवस्थान आसून श्रीकृष्ण आपल्या भुरगेपणात आपले श्री देवकीमातेचे हांडीर बसला अशें सानुलें रूप हेर खंयच पळोवंक मेळना अशी सोबीत मूर्त ह्या देवळात आसा. श्री रवळनाथ, पांडववाडो दैवताचें एक वेगळें देवूळ तशेंच, रवळनाथ गावणवाडकार दैवताचें दुसरें वेगळें देवूळ आसा. श्री रवळनाथ पांडववाड्याचें देवूळ श्री देवकीकृष्ण देवळाचे उजवे वटेन आसून दुसऱ्याचें देवूळ दावे वटेन आसा. दरेका देवाचें वेवस्थापनय वेगवेगळें आसा. श्री लक्ष्मीनारायण, श्री कात्यायनी, श्री चोडणेश्वर, श्री म्हादेव, श्री भूमिका, श्री दांडशंकर, मल्लीनाथ ते भायर ब्राह्मण नांवाच्या दैवत पुरसाचें एक ल्हान देवूळ श्री रवळनाथ पांडववाडो देवळाचे उजवे वटेन आसा.

वयर उल्लेख केल्लीं दैवतां जाणीं स्थापन केलीं ते गौड सारस्वत ब्राह्मण, अत्री, काश्यप, वत्स, कौशिक आनी भारद्वाज ह्या पांच गोत्रांचे आसून तांचीं उपनांवांय वेगवेगळीं आसात. देखीक - अत्री गोत्राच्या मनशाचें मूळ उपनांव प्रभू. पूण फुडें ताचो वंशविस्तार जावन थळ, गांव आनी वेवसायावयल्यान तांच्या उपनांवांत बदल जायत गेलो आनी ते प्रभू लवंदे, प्रभू पोंबुर्पेकार, प्रभू मोये, प्रभू कोलवाळकार, प्रभू पर्रीकार, प्रभू वेर्लेकार ह्या नांवान वळखूंक लागले. वत्स गोत्राच्या मनशांचीं उपनांवां जोशी, धारवाडकार, काश्यप गोत्राच्या मनशांचीं उपनांवां नायक, केणी, शिंक्रे, महाले; कौशिक गोत्राच्या मनशांचीं उपनांवां प्रभू दाडसांखळकार आनी भारद्वाज गोत्राच्या मनशांचीं उपनांवां बरडे अशीं वळखूंक लागले. हांचेभायर दरेका गोत्रांत हेर वेगवेगळ्या उपनांवांचीं मनशां आसात. पुर्विल्ल्या काळांत मुखेल गांवकारांचे बसकेंत वांटो घेवपी गांवकारांच्या नांवांत चोडण गांवच्या गांवकारांचीं कांय नांवां मेळटात. चोडण जुंव्यावयल्यान जरी ह्या दैवताचें स्थलांतर जालें तरी अजून मेरेन थंयचे लोक माशेलांत येवन आपलीं धर्मीक कामां आनी उत्सव मनयतात. तेचपरी दर वर्सा श्रावण म्हयन्यांत खंयच्याय एका दिसा चोडण वाठारांतले हिंदू लोक माशेलांत येवन देवकीकृष्णाची रंगपुजा बांदून उत्सव मनयतात. चोडण जुंव्यावयले क्रिस्तांव लोकय आपले इत्सापूर्तीखातीर रवळनाथाच्या देवळांत वचून प्रसाद कौल घेतात आनी देवकृत्यांय करतात. कांय थरावीक तिथी सोडल्यार हेर दिसांनी प्रसाद कौल घेवंक मेळटात. हे प्रसाद करमलीच्या पानांचे कुडके करून पुजामूर्तीक लायतात.

श्री रवळनाथ पांडववाडो ह्या देवस्थानाक सादारणपणान पिसो रवळुचें देवालय वा वागाचें देवालय अशा नांवान वळखतात. ह्या देवळाच्या प्रवेश सोंपणाच्या दोनय वटांनी पाशाणी वाग बसयल्ले आसात. श्री क्षेत्र माशेलांत पौष शुक्ल पुनवे दिसा मान्नी पुनव मनयतात. ह्या उत्सवाची खुबूच नामना आसा. ह्या उत्सवांत श्री देवकीकृष्ण देवालयामुखार व्हड रथोत्सव जाता. ह्या वेळार थंय सगळे कुळावी म्हाजन येतात आनी रथार नाल्ल फोडून रथ ओडटात. त्याभायर श्री देवकीकृष्णाच्या बालवयाकडे संबंदीत असो उत्सव म्हळ्यार श्रीकृष्ण जन्माश्टम तशेंच धंयकालो आनी गोळणकालो हे उत्सवूय कार्तिक म्हयन्याचे शुक्ल दुवादस आनी त्रयोदशेक मनयतात. दर त्रयोदशेक पालखेचो उत्सव आसता.

– कों. वि. सं. मं.

## देवदार

**देवदार** : (मराठी; हिंदी : देवद्वार; संस्कृत : देवदारू; इंग्लीश : हिमालयन सायप्रस; लॅटीन : क्युप्रेसस टोरूलोजा; कूळ : क्युप्रेससी).

हें सुमार ३०-४५ मी. उंचायेचें आनी सुमार ३ मी. घेराचें झाड. ताची साल लेव पुडी कोराची आसून तिचे उबे कुडके सुटून पडटात. ताळयो वाटकुळ्यो आसून पानां खुबूच ल्हान खवळांवरी आनी त्रिकोनी आसतात. फुलां जानेवारी-फेब्रुवारींत येतात.

महाभारत, बृहत्संहिता आनी हेर संस्कृत ग्रंथांनी (रघुवंश, मेघदूत, कुमार संभव) तशेंच आयुर्वेदीय चिकित्सेंत देवदार झाडाचो उल्लेख मेळटा. शंकुमंत गणांतल्या क्युप्रेससी ह्या कुळांत ह्या ऊंच आनी सदापर्णी झाडाचो आस्पाव आसून तो हिमालयाच्या वायव्य भागांत तशेंच चंबा ते नेपाळमेरेन सुमार १,५५०-२७९० मी. उंचायेर दिश्टी पडटा. थंयच्यान चीनाच्या अस्तंत भागामेरेन ताचो प्रसार आसा. जौंसर, गढवाल, शिमला, नैनिताल, कुलू आदी वाठारांनी तशेंच पुणें, मुंबय, कलकत्ता शारांतल्या उद्यानांनी हें झाड लायिल्लें दिश्टी पडटा. चुनखडीची जमीन ताका बरी मानवता.

देवदाराचें लाकूड हळदुवसार करडें, वासाळ, मातशें घट्ट आनी तिगपी आसता. तासून सुळसुळीत करून तें रंगोवपाक मेळटा. सजावटीचें सामान, आरमारी, शिलेपाट (रेल्वे रुळांपोंदा घालपाचे पाट), पूल आदींखातीर आनी कोरीव सामानाखातीर उपेगी आसता. ह्या झाडाचीं ताजीं पाचवीं पानां उकडून काडिल्लें तेल वासाळ आसून तातूंत प्रोपिऑनिक, कॅप्रॉयक, लॉरिक हीं आम्लां आनी गामा टर्पिनिऑल आसता.

जायत्या खासगी आनी भौशीक बागांनी सोबीतकायेखातीर हें झाड लायतात. नवी लागवड बियांपसून करतात. रोंप्याचीं सुर्वेचीं पानां सुयेवरी आसतात आनी ३-४ च्या पातळिल्ल्या घोंसान येतात. थळाव्या आनी शिंपडिल्ल्या प्रसाराक लागून ह्या झाडाचें लाकूड व्हड प्रमाणांत उपलब्ध जायना. चड करून उत्तर प्रदेशांतल्यान हाची पुरवण जाता. देवळांत ह्या झाडाचें लाकूड धुपाखातीर वापरतात. सीडारचे एके जातीक (सीड्रस डेओडारा) आनी बॉक्सकड हाका देवदार अशें म्हळां.

शंकुमंत वनस्पतींच्या क्युप्रेससी कुळांतल्या जायत्या झाडांक इंग्लीशींत 'सायप्रस' म्हण्टात. क्युप्रेसस वंशांतल्या सुमार बारा ते पंदरा जातींकच सादारणपणान हें नांव दिल्लें दिसता. (इटलियी सायप्रस क्यु. सेंपरव्हायरेन्स) भूमध्य सामुद्रिक वाठारांत पुर्विल्ल्या काळापसून आसात. वायव्य भारतांत हीं झाडां आसून (मराठी : सुरू; हिंदी : सारा, सारस) रानटी जातीचो एक प्रकार मानतात. ह्यो रानटी जाती आशिया मायनर, सिरिया आनी उ. इराणांत मेळटात. ह्या झाडाचें लाकूड आनी फळ स्तंभक आनी कृमिनाशक आसता. फळ वासाळ, उत्तेजक आनी बिकाचेर गुणकारी आसता. मॉंटेरी सायप्रस (क्यु. मॅक्रोकार्पा) हें सुमार ४६-५० मी. उंचायेचें झाड कॅलिफोर्नियांत मेळटा. भारतांत हें झाड सोबेखातीर लायतात. क्यु फ्युनेब्रिस (वीपिंग सायप्रस) हें उत्तर चीनांतलें व्हड आनी उपेगी अशें झाड चीनांत आनी हिमालयांत मठालागसार आनी देवळाकुशीन लायतात. गोवा सायप्रस (क्यु. ग्लोका) भारतांत सोबीतकायेखातीर लायतात. हेभायर

सायप्रसाचे वळेरेंतलीं हेर झाडां वेगळ्या वंशांतलीं आसात. देखीक : लॉसन सायप्रस (कॅमिसायपॅरिस लॉसोनियाना) आनी अलास्का सीडार (कॅमिसायपॅरिस नूटकाटेन्सिस) हें अमेरिकेंतलें. हिनोकी झाड वा जपानी सायप्रस (कॅ. ऑबच्यूस) हें जपानांतलें. सायप्रसाचीं झाडां उत्तर क्रिटेशस काळासावन (सु. णव कोटी वर्सां आदींसावन) धर्तरेचेर आसून तीं मध्यजीव महाकल्पांतल्या (सुमार २३-९ कोटी वर्सांआदीं काळांतल्या) शंकुमंतापसून जाल्यांत अशें मानतात. बाल्ड सायप्रस हें दक्षीण अमेरिकेंतलें. ताका श्वसनमुळां आसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**देवदासी :** धर्मीक श्रध्देंतल्यान देवाक अर्पण केल्ली बायल. मुर्तीरुपांतलो देव भौतीक सुखाचो उपभोग घेता हे कल्पनेंतल्यान फुलां, धूप, निवेद्य, वस्त्रालंकार हांचे वांगडाच देवाक कलाभोग मेळचो म्हणून नाच-गायन उपभोगाखातीर देवळांत देवदासी दवरपाची प्रथा खूब आदल्या काळासावन सुरू जाली. देवाचे सेवेंत जीण खर्चील्यार पुण्य पदरांत पडटलें आनी जल्माचें सार्थक जातलें ही आरंभाची भावना देवदासीचे प्रथेफाटल्यान आसू येता.

देवाचे कलाभोग पुराय करपाखातीर देवदासींचें प्रयोजन आशिल्लें तरी देवळा संबंदीत एक सेवेकरी हो तांचो दर्जो आशिल्लो आनी आसा. देवळाचो वाठार झाडप, देव आनी देवळा संबंदीत वस्तूंची निगा राखप, देवाचे मिरवणुकेंत नाचप-गावप आनी हेर देवळासंबंदीत कामां तांच्या वांट्याक येतात. सुवेक धर्मीक भावना हें तत्त्व देवदासी प्रथेफाटल्यान आशिल्लें तरी कालांतरान देवदासी ही परंपरेन मेळिल्ली एक जात जावन रावली. इतलेंच न्हय, जाल्यार भोवतेक देवदासी ह्यो देवळाच्या वाठारांतल्यो भोगदासी जावन गेल्यो.

जातकां, अर्थशास्त्र, कामसूत्र ह्या पुर्विल्ल्या ग्रंथांनी देवदासींचो उल्लेख मेळना. पूण पुराणांनी मात देवपुजेखातीर देवदासींची गरज मानल्या, तेखातीर सोबीत चलयो देवाक ओंपच्यो वा गणिका विकत्यो घेवंच्यो अशें सांगलां. सूर्यलोकाचे प्राप्तीखातीर सूर्यमंदिराक नृत्य-गायनांत तरबेज अशो चलयो ओंपच्यो, अशें भविश्य पुराणांत सांगलां.

अपत्यप्राप्तीखातीर वा अपत्य जगपाखातीर पयलें भुरगें देवाक ओंपपाची आंगवण करताले. देवाची बायल ह्या नात्यानूय चलयो ओंपताले. कालांतरान पुजाऱ्यांनी तांचो आपल्या विशयोपभोगा खातीर उपेग केलो. पोरण्या ग्रीक लोकांमदी तशेंच बॅबिलोनियांतल्या इस्टर देवळांनीय अशीच प्रथा आशिल्ली दिसता. बॅबिलोनियांतले दरेके बायलेन एक फावट तरी अ‍ॅफ्रोडायटीच्या देवळांत, पयलें रुप्याचें नाणें दिवपी दादल्यावांगडा देवळाभायर वचून संग करून ताका तृप्त केल्यार देवी प्रसन्न जाता, असो तांचो समज आशिल्लो, अशें हिरॉडोटस म्हण्टा.

त्या काळांत वाचन, नृत्य आनी पदां शिकपाचो खाशेलो अधिकार फकत ह्याच बायलांक आसतालो. देवदासींक देवस्थाना कडल्यान थरावीक रक्कम मेळटाली. तशेंच, देवस्थानाचे मालकीची जमिनूय तांकां उदरनिर्वाहाखातीर मेळटाली. देवदासीचे चलयेक आवयकडल्यान वारसोहक्क मेळटालो आनी ती चली लेगीत उपरांत देवदासी जाताली. देवदासीचो पूत देवळाचो गवय वा वादक जातालो. ह्यो देवळांत पदां म्हणून नाच करपी नृत्यांगना खुबूच लावण्यपूर्ण आसताल्यो. त्यो सुगंधी द्रव्यां, सोबीत सुंदर भेस आनी सुवासीक फुलां माळून केंसभूशा करताल्यो, रत्नांचे आनी भांगराचे अलंकार वापरताल्यो.

देवदासींच्या सात प्रकारांचो उल्लेख मेळटा.

(१) दत्ता - स्वता जावन देवाची सेवा करपी.

(२) विक्रिता - देवाचे सेवेखातीर स्वता जावन विकपी.

(३) भृत्या - स्वताच्या कुटुंबाच्या कल्याणाखातीर खोशयेन देवळांतलें काम आपणावपी.

(४) भक्ता - भक्तीन देवालयाचें काम आपणावपी.

(५) हृता - कोणेंय तरी फटोवन देवालयाक ओंपिल्ली.

(६) अलंकारा - राजा - महाराजांकडल्यान अर्पण केल्ली कला - निपूण बायल.

(७) रुद्रगणिका/गोपिका - नेमान वेतन घेवन देवासामकार नाच - पदां म्हणपी.

ह्या बायलांक समाजांत व्हड मान आशिल्लो. हजरजबाबीपण, उलोवपाची कला, आवाजाची गोडसाण, तांच्या मूळ सौंदर्यावांगडा तांची न्हेसपा-नटपाची सोबीतकाय आनी धिटाय ह्या गुणांक लागून देवदासी लोकप्रिय आशिल्ल्यो. अब्बे धूब्बा ह्या फ्रँच भोंवडेकारान नोंद केल्लेप्रमाण तांकां हेर बायलांभाशेन बरोवपाक, वाचपाक आनी पांयतणां वापरपाक बंदी नाशिल्ली. देवस्थाना कडल्यान मेळपी वेतनां, रावपाक घरां तशेंच तांच्या कलागुणांक लागून धनवानां कडल्यान मेळपी बिदागी, राजदरबारांनी मेळपी भोवमान हाका लागून देवदासींची सांपत्तिक स्थिती बरी आशिल्ली आनी जनतेकडल्यानूय तांकां खूब मान मेळटालो. देवदासीक देवाची बायल मानिल्ल्यान, तिका अखंड सवायशीण मानून तिचेकडल्यान लग्नावेळार व्हंकलेच्या मंगळसुत्रांतले मणी गुंथून घेताले. व्हंकलपावणी वतना सगळ्यांत मुखार देवदासी आसप बरें चिन्न मानताले. कर्नाटकांतली बसवी आनी हेर सुवातींतल्या देवदासींची बरी जतनाय घेतल्यार गांवाचीय बरी उदरगत जाता अशें मानतात. देवदासींक जोगवा वाडल्यार बरकत येता देखून तांकां वस्त्र, कड्डण, पयशे, बोकड्यो, दूद दान दिवप, न्हवऱ्या-व्हंकलेक उंवाळपाखातीर तेच भाशेन धर्मीक सुवाळ्यांनी बायलांक आदार करपाखातीर देवदासींची मदत घेवप ह्यो चाली परंपरेन चलत आयल्यात.

अशे धर्मीक श्रध्देंतल्यान निर्माण जाल्ले हे देवदासीचे प्रथेन उपरांत वेगळेंच मोडण घेतलें. देवाक अर्पण केल्ले पुजेचे उपचार पुजारी आपणायता आनी तरीय ते देवाक पावतात अशी समजूत आशिल्ल्यान, पुजाऱ्याची सेवा केल्यार ती देवाचीच सेवा केल्याभाशेन जाता असो समज कालांतरान निर्माण जालो. पुजाऱ्यान देवदासीचो उपभोग घेतल्यार तो देवानूच घेतलो अशी भावना फुडें उत्पन्न जाली. ताका लागून देवाक ओंपिल्ल्यो चलयो आनी नर्तकी ह्यो पुजाऱ्यांच्यो दासी जाल्यो. राजे आनी सरदार हांच्या विलास-सुखाखातीरूय तांचो उपेग जावंक लागलो. तांचो आलाशिरो मेळिल्ल्यान आनी प्रोत्साहनाक लागून हे प्रथेचो प्रसार जावन, ती तिगून उरली. अंधश्रध्देक बळी पडिल्ल्यो ह्यो ल्हान अजाण चलयो, सरदार, जहागिरदार, पुजारी आनी भोंवडेकारांच्यो विशयवासना तृप्त करपाचें एक हुकमी साधन थरलें.

सदळपणान ह्या देवदासींचे वर्ग करूं येतात ते अशे -

(अ) शारिरीक संबंद दवरप/दवरप ना

(ब) कोणाकडेन संबंद दवरप

(क) कामाचो दर्जो

(अ) शारिरीक संबंद दवरप/दवरप नाः

(१) खंयच्याच दादल्याकडेन शारिरीक संबंद दवरिनासतना देवालयांत रावन देवाची सेवा करप.

(२) लग्न जायनासतना रावन एकाच सुयोग्य आनी समर्थ - समृध्द अशा मनशाक आयुश्यभर साथ दिवप.

(३) आपले मर्जीप्रमाण खंयच्याय व्यक्तीवांगडा शारिरीक संबंद दवरप.

(ब) कोणाकडेन संबंद दवरचो

(१) प्रतिश्ठीत मानिल्ल्या नागरिकाच्या घरा वचून नाच - गायन करचें, पूण हेरांकडेन वचचें न्हय, अशें मानपी तमीळनाडूंतल्यो वल्लंगै देवदासी.

(२) मेस्त आनी हेर बलुतेदारांकडेन संपर्क दवरपी इडंगै. शूद्र - अतिशूद्रांकडेन संपर्क दवरपाक इडंगैनाकूय परवानगी नाशिल्ली.

(क) कामाचो दर्जो

(१) देवपुजेच्या वेळार देवासामकार आनी जात्रेंत रथाफुडें नाच - गायन करप.

(२) देवळाच्या वाठाराची झाडलोट, देवाचीं आयदनां घांसप, निवेद्याचें कड्डण वेंचप हीं कामां करतात.

चोचाल राजाच्या तंजावरच्या देवळांत चारशें देवदासी आशिल्ल्यो असो इ. स. १००४ च्या शिलालेखांत उल्लेख मेळटा. तेराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक भारतांत आयिल्ल्या मार्को पोलो ह्या इटलियी भोंवडेकाराच्या भोंवडेवर्णनांत भारतीय देवदासींचो उल्लेख मेळटा. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक तमीळनाडूंतल्या कांचीपुरमांतल्या देवळांत शंबर नर्तिका आशिल्ल्यो अशें म्हण्टात. विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक कांचीपुरम, मदुराई आनी तंजावरच्या देवस्थानांनी आशिल्ल्या देवदासींक देवस्थानां कडल्यान नेमान वेतन मेळटालें.

दक्षिण भारतांत णवव्या-धाव्या शेंकड्यांनी देवळां उबारपाचें कार्य चालू आशिल्लें. त्या काळांत देवळांनी खूबश्या देवदासींची भरती केल्ल्यान देवदासीप्रथा खूब प्रचलीत जाली. चंवरान मुर्तीक वारो घालप, कुंभारतीची पवित्र ज्योत व्हरप, मिरवणुकेंत देवासामकार नाच - पदां म्हणप असलीं कामां तांकां करचीं पडटलीं.

मध्ययुगांत, कर्नाटकांत कांय जातींभितर दरेका घरांतली एक चली देवाक ओंपताले अशें म्हण्टात. तिका 'बसवी' अशें म्हण्टाले. अशे चलयेचें देवाकडेन वा तरसादी वांगडा लग्न करताले. उपरांत तिका खंयचेय उच्च जातींतल्या दादल्याकडेन संबंद दवरपाक मेळटालो. सादारणपणान बसवी एकाच दादल्यावांगडा रावताली. तिका चली जाल्यार फुडें तीय बसवी जाताली. चड करून लिंगायत आनी होलेया लोकांभितर ही चाल प्रचारांत आशिल्ली. तशेंच कोइमुतूरचे कैकोलन जातींतूय दरेका कुटुंबांतली एक चली देवाक ओंपपाची चाल आशिल्ली. कैकोलन देवदासी मरतकच देवाच्या आंगावयलीं फुलां आनी वस्त्र काडून तिच्या आंगार घालताले आनी तिचें दहन जालेबगर देवाची पुजा करिनाशिल्ले. कारण तिका देवाची बायल मानिल्ल्यान देवाक सुतक आयलां अशें मानताले.

कर्नाटकांत बेळगांव जिल्ह्यांतल्या सौंदत्ती गांवांत दर पुनवेक देवदासींची जात्रा भरता. तातूंत माघांतले पुनवेक (रांड पुनव) व्हड जात्रा भरता. ते जात्रेंत यल्लमा देवतेक चलयो ओंपपाची प्रथा पयलींसावन चलत आयल्या. ह्या देवदासींक 'जोगतिणी' अशें म्हण्टात. केंसांक जटा येत जाल्यार तो देवीचो राग मानून ती चली देवीक ओंपतात. ह्यो जोगतिणी गळ्यांत मणयांच्यो वा कवट्यांच्यो माळो घालतात, माथ्यार 'जग' म्हळ्यार देवतेचो पितूळचो मुखवटो दवरिल्ली परडी घेवन भोंवतात आनी कपलाक भंडारो लायतात. चोंडक, टाळ आनी तुणतुणें ह्या वाद्यांचे साथीचेर ते देवतेचीं पदां म्हण्टात. पोट भरपाखातीर त्यो जोगवा मागतात. पूण हालींच्या तेंपार चडशो जोगतिणी वेश्यावेवसाय करतात.

ओडिसांतल्या देवदासींक महारिस म्हण्टात. गंग वंशांतल्या राजांनी, त्या प्रदेशांतल्या वेगवेगळ्या देवस्थानांनी देवांचे सेवेखातीर खूबश्या देवदासींची नेमणूक केल्ली. देवळांच्या उत्पन्नांतल्यान तांचो उदरनिर्वाह चलतालो.

गोंयांत कलवंत, भाविणी, देवळी आनी नायकिणी अशे देवदासींचे समाज मेळटात. ह्या समाजांतले लोक (दादले तशेंच बायलो) थळाव्या देवळाच्या संबंदीत नाच-गायन-वादना सावन ते सान्न मारपामेरेन कामां केल्ले दिश्टी पडटात. ह्या समाजांतल्या चलयांचो, तीं पिरायेंत येतकच शेंसविधी करपाची प्रथा आशिल्ली. शेंसविधी हो लग्नसुवाळ्या भाशेनूच धर्मीक तसोच समाजीक सुवाळो. फकत न्हवरो म्हणून दादल्या भेसांतली चली वा एकाद्रें शस्त्र मुखार उबें करताले.

देवाच्या उत्सवांत, विशेश करून पालखेमुखार नाच-गाणें करपांत देवदासी वांटो घेतात. तांच्याच समाजांतले दादले तांकां अशा वेळार वाद्याची साथ करतात. ह्या कामाखातीर तांकां देवस्थानाकडल्यान थरावीक उत्पन्न मेळटा. देशांतल्या हेर वाठारांप्रमाण गोंयच्याय देवदासींचो समाजाकडल्यान भोगदासी म्हणून वापर करप जातालो. गोंयच्या भोवतेक सगळ्याच देवळांच्या वाठारांनी ह्या लोकांची वसती आशिल्ली. गोंयांत ह्या समाजाक 'गोमंतक मराठा समाज' ह्या नांवान संबोदीत करप जाता. नाच-गायन-वादनाचो सराव आनी शिक्षण, वंशपरंपरेन लाबिल्ल्यान गोंयांतल्या ह्या समाजाच्या बऱ्याच लोकांनी गायन-वादन-अभिनय सारकिल्या कलांच्या मळार राश्ट्रीय नामना जोडल्या. गोमंतक मराठा समाजाच्या जाळवणदारांनी समाजाचे उदरगतीची चळवळ हातांत घेतली आनी ह्या समाजाचो सर्वांगीण विकास जावपाचे नदरेन परिश्रमांची शर्थ केली. हाचें फळ म्हणून हो समाज शिक्षीत जालो. सगळ्यांत पयलीं परिवर्तन घडलें तें म्हळ्यार ह्या समाजांतली शेंसविधींची चाल नश्ट जावन तिची सुवात लग्नविधीन घेतली. आयचे घटकेक ह्या समाजांत, गोंयच्या समाजाच्या हेर घटकांवरीच लग्नां जावन गृहस्थाश्रम चलता. देवळाच्या उत्सवांत पालखेमुखार नाचपाची-गावपाची प्रथाय पातळ जायत गेल्या. आपले आपुणूच आपले भितर अशे तरेचें समाजीक परिवर्तन घडोवन हाडपी गोमंतक मराठा समाज हें आर्विल्ल्या काळांतलें एक तोखणायेक पात्र थरपी उदाहरण मानचें पडटलें.

महाराष्ट्रांत खंडोबाक 'मुरळी' म्हणून चलयो ओंपतात. दादल्याक 'वाघ्या' म्हणून वळखतात. मुरळी नाचता तेन्ना वाघ्या पदां म्हणून तुणतुणें वाजयता. तमाशा आनी गांवगिऱ्या नाटकांनीय ते कामां करतात. कांय मुरळ्यो वेश्यावेवसाय आपणायतात.

ही देवदासी प्रथा बंद करपाखातीर खूब यत्न जाले. सगळ्यांत पयलीं इ. स. १९१० वर्सा म्हैसूर संस्थानान एक कायदो केलो. इ. स. १९२२-२३ वर्सा देवदासींक बऱ्या मार्गाक लावपाखातीर 'हिंदू युवती शरणालयम्' संस्था मद्रासांत स्थापन केली. इ. स. १९२५ वर्सा डॉ.

बाबासाहेब आंबेडकरान निपाणींत देवदासी प्रथा नश्ट करपापसत परिशद घेतली. १९३४ वर्सा मुंबय प्रांतान आनी १९४७ वर्सा मद्रास प्रांतान 'देवदासी प्रतिबंधक कायदे' केले. संबंदीत लोकांक तशेंच देवदासी सज्ञान आसल्यार स म्हयने खर बंदखण आनी ५०० रुपया दंड अशी ख्यास्त थारायली. १९७५ वर्सा गडहिंग्लज (जि. कोल्हापूर) नगरांत 'महात्मा फुले समता प्रतिश्ठानावतीन देवदासी भगिनी परिशद भरयली. उपरांत १५ जून १९८० ह्या दिसा अशीच परतून परिशद आयोजीत केली. विंगड विंगड राज्यांनी, देवतेक चलयो ओंपपाचे प्रथेआड कायदे केले. पूण देवदासीची ही प्रथा पुराय नश्ट जावंक ना.

– कों. वि. सं. मं.

**देवदूत :** मनशापरस व्हड आनी देवापरस ल्हान अशी एक अतिमानवी योनी. आपलें काम करून घेवपाखातीर देवांनी तयार केल्ले दूत. हिंदू धर्मांत तेचपरी इस्लामी, येहुदी, क्रिस्तांव आनी झरथुश्टी ह्या मुखेल धर्मांत देवदूत ही कल्पना मानिल्ली दिसता. पुराणांत शिवदूत, विष्णुदूत, यमदूत हांचे उल्लेख येतात. कोणूय मनीस शिवभक्त वा विष्णुभक्त आसलो जाल्यार ताका मरणा उपरांत व्हरपाक शिवदूत वा विष्णुदूत आयले अशी कथा पुराणांनी वाचूंक मेळटा. सर्वसामान्य मनशाक ताच्या मरणा उपरांत व्हरपाक यमदूत येता अशीय कल्पना आसा. मेल्ल्या मनशाच्या जिवाक ताच्या पाप-पुण्याच्या कर्माप्रमाण ताका त्या त्या जाग्यार पावोवप हें ताचें मुखेल काम. तेचपरी देवाचो रेकाद पावोवप हेंय काम ताकाच करचें पडटा.

अस्तंती देशांत देवदुतांचे कथेचो उगम सुर्वेक पार्शी धर्मांत जालो. उपरांत त्यो कथा यहुदी धर्मांत घेतल्यो. फुडें तातुंतल्यो जायत्यो कथा क्रिस्तांव धर्मान आपणायल्यो. क्रिस्तांव धर्मांत देवदुताक 'एन्जल' अशें म्हण्टात आनी ताचो अर्थ देवाचो रकाद हाडपी असो जाता. बायबलांत देवदुतांची जायती म्हायती दिल्ली आसून तांचे बरे देवदूत आनी वायट देवदूत अशे दोन प्रकार केल्ले आसात. देवदूत सर्गांत रावतात अशेंय म्हण्टात. परमेश्वरान आपले सेवेखातीर निर्माण केल्ले शुध्द आत्मे अशेंय तांचें वर्णन मेळटा. परमेश्वराची सेवा करी नासतना तांणी जर पाप केलें जाल्यार तांकां वायट जल्म येता आनी ते राकेसाच्या वा पिशाच्चाचे योनींत जल्मतात. बऱ्या देवदुतांच्या मुखेल्याक गाब्रिएल आनी वायट देवदुतांच्या मुखेल्याक सॅटन अशें म्हळां. हाचेवयल्यानूच सैतानाची कल्पना आयिल्ली दिसता. चवथ्या शतमाना उपरांत श्रेश्ठ देवदुतांची पुजा करपाची पद्दत क्रिस्तांव धर्मांत रूढ जाली.

मूळ पारशी धर्मांतल्यान आयिल्ली एक कथा जी यहुदी आनी क्रिस्तांव धर्मांनी घेतल्या ती अशी - अहुर मज्द ह्या व्हड देवान स्पँता-मइन्यू आनी अंग्रो-मइन्यू अशे दोन दूत तयार केले. तातुंतल्या स्पँता-मइन्यू हाणें अहुर मज्द हाका संवसार निर्माण करपाक आदार केलो अशें अवेस्तांत म्हळां. अहुर मज्दाक आदार दिवपी स देवदूत आशिल्ले ताका 'अमेश स्पँता' अशें म्हळां. पूण अंग्रो-मइन्यू हाणें अहुर मज्दाच्या नेमांचें पालन केलेंना आनी तो ताचो विरोधक जालो. सॅटना कडेन ताचें सारकेपण दिसता.

इस्लाम धर्मांतय दोन तरांच्या देवदुतांची कल्पना दिसता. ईश्वरान देवदूत निर्माण केलो आनी ताणेंच 'कुराण' हो ग्रंथ धर्तरेचेर हाडलो अशें कुराणांत म्हळां. अल् फाराबी हाणें अरबी तत्त्वज्ञानांत ह्या देवदुतांचें वर्णन 'कार्यशक्ती' अशें केलां. क्रिस्तांव आनी ज्यू धर्मांतल्या देवदुतांचीं पुर्विल्लीं चित्रां मेळटात तातूंत मानवी शरीर आनी पांखां आशिल्ल्याचें दाखयलां.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : दूत

**देवधर, श्रेनीक दिगंबर :** (जल्म : २८ डिसेंबर १९२९, अक्कलकोट, सोलापूर).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक पांवड्या मेरेन शिक्षण घेतलें. तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटणेचो वांगडी आशिल्लो. १९४२ त ताणें भारत छोडो आंदोलनांत वांटो घेतिल्लो. १९४७-१९५६ ह्या काळांत तो 'काँग्रेस सेवा दल' हे संघटनेखातीर वावर करतालो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा चितळे हाच्या फुडारपणाखाल बांद्यासावन तो गोंयांत शिरलो आनी पत्रादेवीच्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतलो. तेन्ना पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार घालो आनी गोंयचे शिमेभायर घालो. गोंयचे सुटके उपरांत १९६७-१९८३ ह्या काळांत तो बार्शी नगरपालिकेचो वांगडी म्हणून वेंचून आयलो. कामगार संघटनेकडेन ताचो लागसल्लो संबंद आशिल्लो. कामगारांक शिक्षण दिवपाखातीर तो वर्ग घेतालो. सुर्वेक १९६७त आनी उपरांत १९७५ त नगरपालिकेचो नगरसेवक म्हणून तो वेंचून आयलो. १९८५ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**देव नरेंद्र :** (जल्म : ३० ऑक्टोबर १८८९, सीतापूर - उत्तर प्रदेश; मरण : १९ फेब्रुवारी १९५६, एरोड).

भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींतलो फुडारी आनी नामनेचो विचारवंत. ताचो जल्म एका मध्यमवर्गीय खत्री कुटुंबांत जालो. ताच्या बापायचें नांव बलदेव प्रसाद आनी आवयचें नांव जवाहरदेवी. ताचो बापूय सीतापूराक वकिली करतालो. शिक्षण घेता आसतनाच पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा ताचें लग्न जालें. पूण रोखडीच ताची बायल मेली. उपरांत १९१९ वर्सा तो प्रेमादेवीकडेन दुसरे खेपे लग्न जालो. ताका दोन चले आनी एक चली जाली.

सीतापूराक मुळावें शिक्षण घेतले उपरांत अलाहाबाद आनी बनारसाक उंचेलें शिक्षण पुराय करून ताणें एम. ए. (१९१३) आनी एलएल. बी. (१९१५) ह्यो पदव्यो मेळयल्यो.

अलाहाबादेक शिक्षण घेता आसतना ताका लोकमान्य टिळक, लाला लजपतराय, बिपीनचंद्र पाल, अरविंद घोष सारक्या नामनेच्या काँग्रेस फुडाऱ्यांचीं उलोवपां आयकुपाची संद मेळ्ळी. ह्या जहाल फुडाऱ्यांचे विचारसरणेचो ताचेर खूब प्रभाव पडलो. फुडें ताणें फैजाबादेक वकिली करपाक सुरवात केली. पूण ताची ओड राजकारणाकडेन आशिल्ली. टिळक बंदखणींतल्यान सुटले उपरांत नरेंद्र देव ताका वचून मेळ्ळो आनी फैजाबादेक तांणी होम रूल लिगाच्या फांट्याची स्थापणूक केली (१९१६). उपरांत ताची पंडीत नेहरूकडेन भेट जाली आनी ताच्याच सल्ल्यान ताणें काशी विद्यापिठांत अध्यापकाची नोकरी धरली (१९२१). फुडें १९२६ वर्सा ताची प्राचार्य म्हणून नेमणूक जाली आनी तेन्ना सावन

ताका आचार्य म्हणून वळखुपाक लागले.

१९२८ वर्सा तो स्वराज्य पक्षाचो चिटणीस जालो. १९३०त असहकार चळवळींत वांटेकार जाल्लेखातीर ताका तीन म्हयन्यांचे बंदखणीची ख्यास्त जाली. १९३२ त ताणें रायबरेली सत्याग्रह केलो. काँग्रेस समाजवादी पक्षाचे स्थापणुकेंत ताचो मोलाचो वांटो आशिल्लो. जवाहरलाल नेहरूच्या नियंत्रणासकल १९३६त तो काँग्रेस पक्षाचे कार्यकारिणीचो वांगडी जालो. ह्याच सुमाराक ताची उत्तर प्रदेशाच्या विधिमंडळांत निवड जाली.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत वैयक्तीक सत्याग्रहाक लागून ताका ख्यास्त जाली (१९४०). १९४५त ताची सुटका जाली. १९४६त तो उत्तर प्रदेश विधीमंडळाचेर निवडून आयलो. पूण ताणें केन्नाच मंत्रीपद आपणायलेंना.

स्वातंत्र्या उपरांत जेन्ना काँग्रेस समाजवादी पक्ष काँग्रेसींतल्यान भायर सरलो तेन्ना नरेंद्र देवानूय ताका सोडचीट दिली. ताणें विधीमंडळाचो राजिनामो दिलो आनी पोटवेंचणूक लडयली. पूण तो हारलो. मजगतीं, ताणें लखनौ विद्यापिठाचें उपकुलगुरूपद आपणायलें (१९४७ - ५१). थंयचे ताचे कार्यपद्दतीक लागून ताची कुलगुरू म्हणून बनारस हिंदू विद्यापिठांत नेमणूक जाली. १९५३ वर्सा ताची भलायकी इबाडिल्ल्यान ताणें हें पद सोडलें आनी दम्याच्या दुयेंसाचेर उपचार घेवपाखातीर तो युरोपाक गेलो.

नरेंद्र देव हाणें थायलंड, मियानमार (ब्रह्मदेश) ह्या राश्ट्रांक भेटी दिल्यो. १९५२त चीनाक गेल्या सदिच्छा मंडळाचो तो वांगडी आशिल्लो. आचार्य कृपालानी हाचो 'कृषक मजदूर प्रजा पक्ष' आनी 'समाजवादी पक्ष' हांचें विलिनीकरण घडोवन हाडले उपरांत अस्तित्वांत आयिल्ल्या प्रजासमाजवादी पक्षाचो तो पयलो अध्यक्ष जालो (१९५४).

आवयभाशेंतल्यान सगळें शिक्षण दिवंक जाय आनी सगळ्या भारतीय भाशांक एकूच लिपी आसची अशें ताचें मत आशिल्लें. लोकशायवादी आनी मानवतावादी मार्क्सवादाचो ताणें पुरस्कार केलो. समाजवादी चळवळ राश्ट्रीय चळवळीपसून पयस वचची न्हय असो ताचो आग्रो आशिल्लो. भारतीय शेतकार वर्ग समाजवादी चळवळींत वांटेकार जालेबगर चळवळीक विधायक स्वरूप येवंचेंना अशें ताणें स्पश्ट केलें.

बौध्द तत्त्वज्ञानाचो अभ्यास करून ताणें 'बौध्दधर्म दर्शन' हो मोलादीक ग्रंथ हिंदींत बरयलो.

– कों. वि. सं. मं.

**देवनागरी लिपी :** एक नामनेची भारतीय लिपी. संस्कृत, हिंदी, कोंकणी, मराठी ह्यो भासो जे लिपींत आसात ते लिपीक नागरी वा देवनागरी अशें नांव आसा. उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश, पंजाब, बिहार, गुजरात, कोंकण, गोंय, महाराष्ट्र, ह्या प्रदेशांनी ही लिपी मुखेलपणान दिसता. पुर्विल्ले ब्राह्मी लिपीसावन देवनागरीचो उगम जाला अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. ब्राह्मी ही भारतांतली सगळ्यांत पोरणी लिपी आसून अशोकाच्या काळांत ती सगळ्या भारतांत प्रचलीत आशिल्ली. तिचेपसूनूच सगळ्या भारतीय लिपयांचो विकास जाला. इ. स. च्या ४ थ्या शेंकड्यासावन गुप्त साम्राज्यांत प्रचलीत आशिल्ली, गुप्त लिपी हें ब्राह्मीचेंच एक विकसीत रूप. इ. स. च्या सव्या शेंकड्यांत हे लिपींत मातसो बदल जावन तिका 'सिध्दमातृका' हें नांव मेळ्ळें. उत्तर भारतांत धर्मीक पुस्तकां बरोवपाखातीर हे लिपीचो वापर जातालो.

'ओम नमः सिध्दम्' ह्या वचनान खंयच्याय ग्रंथ लिखाणाक सुरवात जाताली, तेखातीर हे लिपीक 'सिध्दम' अशें म्हणपाक लागले. ताडपत्र्यो आनी कागदांचेर लेखणी वयर उबारिनासतना बरोवंक मेळचें हे नदरेन हे लिपींत अक्षरांचें रूप बदलत गेलें, हिच्यातलीं अक्षरां आनी मात्रा वांकड्यो-तिकड्यो आशिल्ल्यान हे लिपीक 'कुटिल लिपी' (कुटिलाक्षरा) हें नांव पडलें. अक्षरांच्या माथ्यार त्रिकोन आसप हे लिपीचें खाशेलपण.

बोधगयाक इ. स. ५८८ च्या अदमासाचो हे लिपींतलो एक लेख मेळ्ळा. ही कुटिल लिपी इ. स. च्या ९व्या शेंकड्याचे निमाणे मेरेन उत्तर भारतांत सगळ्याक प्रचलीत आशिल्ली. राजा यशोधर्मा हाचो मंदसोराचो शिलालेख (इ. स. ५३२), मेवाडचो गुहिलोतवंशी राजा शीलादित्य हाचे वेळचो एक शिलालेख (इ. स. ६४६) आनी प्रतिहारवंशी राजांचे इ. स. च्या णव्या शेंकड्यांतले शिलालेख हे कुटिल लिपींतूच बरयल्ले आसात. जपानांतल्या होर्युजी नांवाच्या गांवांत एका बौध्द मठांत, हे लिपींत ताडपत्रांचेर बरयल्ले ग्रंथ मेळ्ळ्यात. हे लिपींतलीं चडशीं अक्षरां सद्याचे नागरी लिपीभाशेनूच आसात. हे कुटिल लिपींतल्यानूच देवनागरी लिपी निर्माण जाली. इ. स. च्या १० व्या शेंकड्याच्या आरंभाक सावन उत्तर भारतांत हे लिपीचो वापर सुरू जाल्लो दिसता. कनौजचो प्रतिहारवंशी राजा महेंद्रपाल हाच्या इ. स. ८९८ च्या एका दानपत्रांत ही लिपी आसा. उपरांत प्रतिहार, गुहिल, चाहमान, गाहडवाल, चौलुक्य, परमार, कछवाह, चंदेल, कलचुरी ह्या वंशांतल्या राजांचे शिलालेख आनी दानपत्रांनी हीच लिपी आसा.

दक्षिण भारतांत, गुप्त युगांत ब्राह्मी लिपीची एक वेगळी शैली आशिल्ली. तिका 'पल्लव लिपी' म्हण्टात. हे लिपींतल्यान इ. स. च्या आठव्या शेंकड्यांत नागरी लिपीचें दक्षिणी रूप विकसीत जालें.

राष्ट्रकूट राजा दंतिदुर्ग हाचें सामनगडा वयलें दानपत्र (इ.स.७५४), राष्ट्रकूट गोविंद - दुसरो हाचें धुलिया हांगा मेळिल्लें दानपत्र (इ.स.७८०), पैठण आनी वणी गांवांनी मेळिल्लीं राष्टकूट गोविंद - तिसरो, हांचीं दानपत्रां (इ. स. ७९४ आनी ८०८), तशेंच कान्हेरीचो शिलालेख (इ. स. चो णवो शेंकडो) हातूंत ही लिपी आसा. गुजरातेंतलो गुर्जरवंशी राजा जयभट (तिसरो) हाच्या इ. स. ७०६ तल्या एका दानपत्रांत हे दक्षिणी शैलीची नागरी लिपींत निशाणी केल्ली आसा. हाचेवयल्यान ही नागरी लिपी ताचे पयलींपसून निर्माण जाली आसूं येता. महाराष्ट्रांत हे लिपीक 'बालबोध लिपी' अशें नांव मेळ्ळां. हे लिपीक नागरी वा देवनागरी नांव कशें पडलें हेविशीं विद्वानांचीं विंगड विंगड मतां आसात. गुजराती नागर ब्राह्मणांकडेन संबंदीत म्हणून नागरी नांव पडलें, अशें एक मत जाल्यार नागर लोक ही लिपी वापरताले देखून तिका नागर नांव मेळ्ळें अशें दुसरें मत आसा. जायस्वाल हाच्या मताप्रमाण नागराजवंशाच्या प्रभावाक लागून हिका नागरी नांव पडलें. संस्कृत ही देवभास हे लिपींत बरयताले. देखून तिका देवनागरी म्हणूंक लागले, देवतांचे उपासनेखातीर त्रिकोन, चक्र हीं जीं यंत्रां वापरतात, तांकां पयलीं देवनगर म्हण्टाले. त्या यंत्रांनी जीं चिन्नां आसतालीं, तीं उपरांत अक्षरां मानपाक लागले. तीं अक्षरां हे लिपींत वापरिल्ल्यान हिका देवनागरी हें नांव मेळ्ळें अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. काशीक पयलीं देवनगर म्हण्टाले. ताचेवयल्यानूय देवनागरी हें नांव आयलां आसूं येता. ग्रामीण-नागरी हो

संबंध, फरक दाखोवपाच्या उद्देशांतल्यान तिका हें नांव दवरलां आसूं येता.

दक्षिणेंत हे लिपीक 'नंदिनागरी' अशें म्हण्टात. वाकाटक आनी राष्ट्रकूट हांच्या राज्यांत नंदिन नांवाचें नगर (सदयाचें नांदेड) आशिल्लें. ताचेवयल्यान हें नांव मेळ्ळें अशें एक मत आसा. दक्षिणेत ही लिपी इ. स. च्या १७ व्या शेंकड्यामेरेन वापरांत आशिल्ली.

हे नागरी लिपीपसून कैथी, महाजनी, राजस्थानी, गुजराती ह्यो लिपी निर्माण जाल्यो. पुर्विल्ले नागरीच्या उदेंतेकडल्या फांट्यांतल्यान इ. स. च्या १० व्या शेंकड्यांत बंगाली लिपी तयार जाली. ११ व्या शेंकड्या उपरांत नागरी लिपींतल्यान नेपाळी, सद्याची बंगाली, मैथिली आनी उडिया ह्यो लिपी विकसीत जाल्यो. इ. स. आठव्या शेंकड्यामेरेन काश्मीर आनी पंजाब ह्या प्रदेशांनी कुटिल लिपी चलताली. ते लिपींतल्यान १० व्या शेंकड्यांत शारदा लिपी तयार जाली. दक्षिण भारतांतल्यो तेलुगू, तमीळ, मल्याळम आनी ग्रंथी ह्यो लिपी अशेच तरेन नागरी लिपींतल्यान विकसीत जाल्यात.

पुर्विल्ल्या काळांत ब्राह्मी लिपींतल्या अक्षरांनी शिरोरेखा नाशिल्ली. उपरांत तीं अक्षरां सुंदर करपाच्या हेतान तातूंत जायते बदल केले. तातूंतल्यान ही शिरोरेखा निर्माण जाली. शिरोरेखा हें देवनागरीचें खाशेलपण. भारतांतले हेर खंयचेच लिपींत ही शिरोरेखा मेळना. देवनागरी लिपी शास्त्रशुध्द आसून अक्षराचें नांव आनी उच्चार एकूच आसता. भाशाशास्त्र आनी ध्वनिशास्त्र ह्या दोगांयचे नदरेन पळयल्यार नागरी वर्णमाळ शुध्द आसा. इ. स. च्या १० व्या शेंकड्यांतले उत्तर भारतांतले नागरी लिपींत अ, आ, ध, प, म, य, ष आनी स ह्या अक्षरांची तकली विभागिल्ली आसा. पूण ११ व्या शेंकड्यासावन हे दोन भाग मेळून एक ओळ जाली. १२ व्या शेंकड्यांत नागरीचें सदयाचें रूप दिसपाक लागता. कांयकडेन मात ए, ऐ, ओ आनी औ च्यो मात्रा व्यंजनाक लायतना वेगळी पद्दत आपणायल्ली दिसता. ए, घ, च, थ, ध, प, ब, म, य, ल, व, श, स ह्या अक्षरांनी खूब बदल जाले.

नागरी वर्णमाळ - अ, आ, इ, ई, उ, ऊ, ऋ, ॠ, ऌ<br>
ऐ, ओ, औ, क, ख, ग, घ, ङ, च<br>
छ, ज, झ, ञ, ट, ठ, ड, ढ, ण, त<br>
थ, द, ध, न, प, फ, ब, भ, म, य<br>
र, ल, व, श, ष, स, ह, ळ, क्ष, ज्ञ.

- कों. वि. सं. मं.

**देवमासो :** (विभाग : पुश्ठवंशी; वर्ग : सस्तन; गण : सिटॅसिया; उपगण : ओर्किओसीटाय मिस्टिसीटाय आनी ओडॉंटोसीटाय; कूळ : मस्क्युलस; प्रजाती : बॅलिनॉप्टेरा).

दर्यांत मेळपी सगळ्यांत व्हडलो प्राणी. सिटॅसिया गणांत आस्पाव जावपी सगळ्या नुस्त्यांक देवमाशे अशें म्हण्टात. देवमासो हो उदकांत मेळपी एक सस्तन प्राणी आसून, तो संवसारांतल्या सगळ्या दर्यांनी मेळटा. कांय खाशेल्या शारिरीक लक्षणांक लागून तांची आर्किओसीटाय मिस्टिसीटाय आनी ओडॉंटोसीटाय अशा तीन उपगणांनी विभागणी केल्ली आसा. आर्किऑसीटाय उपगणांत इओसीन आनी ऑलिगोसिन ह्या काळांत अस्तित्वांत आशिल्ल्या देवमाशांचो आस्पाव जाता. सद्या हे देवमाशे अस्तित्वांत ना. फकत तांच्या जीवाश्मांच्या आदारान तांचो अभ्यास करप जाता. मिस्टिसीटाय उपगणांतल्या देवमाशाच्या ताळ्यांत दांत नासतात. दांतांचे सुवातेर हाडाची पातळ मांव आसता. दांत नाशिल्ल्यान तांकां आपलें खाण मेळोवपाखातीर खूब उदक तोंडांत घेवंचें पडटा. उदकांत आशिल्ले बारीक बारीक जीव ते खातात आनी उदक परत भायर सोडटात. उदकांतले बारीक बारीक जीव गाळपाखातीर तांच्या मुखांत खाशेली वेवस्था आसा. ह्या उपगणांतले देवमाशे खूब व्हड आसून ते चड करून थंड दर्यांत सांपडटात. ब्ल्यू व्हेल, ग्रे व्हेल, हंपबॅक व्हेल, रायट व्हेल, फिनबॅक व्हेल हांचो मिस्टिसीटाय उपगणांत आस्पाव जाता. हातूंतलो निळो देवमासो (ब्ल्यू व्हेल) हो धर्तरेवयल्या सगळ्या प्राण्यांपरस व्हड प्राणी. ताची लांबाय ३१ मी. परस चड आसता. सादारणपणान ताचें वजन ११५ ते १२२ टनांमेरेन आसता. ओडॉंटोसीटाय ह्या उपगणांतल्या देवमाशांक दांत आशिल्ल्यान ते हेर व्हड नुस्तें आनी प्राणी खावपाक शकतात. ते दांतांचो उपेग फकत आपलें भक्ष धरपाखातीर वा दुस्मानांचेर घुरी घालपाखातीर करतात. ते आपलें खाण केन्नाच चाबून खायनात. तांचें कट्टें असममित (Asymetrical) आसून, हे जातीचे देवमाशे मुखेलपणान उश्ण दर्यांत सांपडटात. स्पर्म व्हेल, किलर व्हेल, नॉरव्हेल, पायलट व्हेल आनी चोंच आशिल्ल्या देवमाशांचो ह्या उपगणांत आस्पाव जाता.

सादारणपणान तिनूय उपगणांतल्या देवमाशांचें बाह्य स्वरूप लागीं लागीं एकसारकेंच आसता. तांचे मुखावयले अवयव वल्ल्यांत (फ्लीपर)



रुपांतर जाल्लें आसून, तांचो उपेग ते पेंवपाखातीर आनी आपले कुडीचो तोल सांबाळपाखातीर करतात. देवमाशाचो फाटलो (Pelvic girdle) भाग सरळ आसून तो फाटीकण्यासावन वेगळो जाल्लो आसा. शेंपडेच्या तोंकार दोन आडवे पांखाटे आसतात. तांच्यो नाकपुडयो तकलेचे वयले वटेन आसतात. तांची कात दाट आनी सुळसुळीत आसता. कात आनी मास हांचेमदीं ओशीचो थर आसता. चड थंड आनी चड उश्ण उदकांत आपले कुडीचें तापमान एकसारकें दवरपाक हे ओशीचो उपेग करतात. तो सस्तन प्राणी आशिल्ल्यान भुरगेपणांत देवमाशांचे कुडीचेर बारीक-बारीक ल्हंव आसता. देवमासो वाडटा तशी तशी ताची ल्हंव झडूंक लागता.

देवमाशाचें पोट व्हड आसून तें वेगवेगळ्या भागांनी विभागिल्लें आसता. ताची जीब मासाळ आसता. नाकपुडयो तकलेचे वयले वटेन आसून त्यो फुफुसांक जोडिल्ल्यो आसतात. तांचीं फुफुसां खूब व्हड आसतात. तांकां आपल्या फुफुसांनी वारो घेवपाक उदकावयर येवंचें पडटा. एक फावटीं

आपल्या फुफुसांत वारो भरून देवमासो सुमार एका वरावयर उदकांत रावूंक शकता. उदकांत आसता तेन्ना देवमाशाक पयसुल्लें लेगीत बरें दिश्टी पडटा. तांच्या दुकांच्या ग्रंथींनी आशिल्लो तेलकट पदार्थ, तांच्या दोळ्यांची खाऱ्या उदकासावन राखण करता.

देवमाशाची लांबाय १.३ मी. ते ३१ मी. मेरेन आसता, जाल्यार वजन ४५ कील ते १३६ टनांमेरेन आसूंक शकता. मादी, नर वेगवेगळ्या उपगणांनी मेळपी देवमाशांचो रंग वेगवेगळो आसता. कांय देवमाशांक तांच्या रंगाप्रमाण नांवां दिल्लीं आसात. देखीक - ब्ल्यू व्हेल, ग्रे व्हेल, व्हायट व्हेल, सल्फर बॉटम व्हेल.

सादारणपणान देवमाशे गरमेच्या दिसांनी फळटात. फळ्ळेउपरांत मादी सुमार ११ ते १२ म्हयन्यांनी विंयेता. ती दर खेपे फकत एकाच पिलाक जल्म दिता. सादारणपणान जल्माक आयिल्ल्या देवमाशाची लांबाय १.६ मी. इतली आसता. निळ्या देवमाशांत ती ६ ते ७ मी. आसता. मादी आपल्या पिलांक उदकांतूच जल्म दिता. जल्म दिलेउपरांत ती आपल्या पिलाक ताचो पयलो उस्वास घेवपाखातीर उदकावयर धुकलता. सुर्वेक पिलांचे शेंपडेचे आनी मुखावयले पांखाटे मोव आसतात. पूण उपरांत ते रोखडेच घट जावन पिलां तांच्या आदारान पेंवपाक लागतात. मादी आपल्या पिलाची सुमार ६ ते ९ म्हयन्यांमेरेन जतनाय घेता. देवमासो हो सस्तन प्राणी आशिल्ल्यान मादी आपल्या पिलाक दुदाचेर वाडयता. दुदांत घटाय चड आशिल्ल्यान पिलांची रोखडीच वाड जाता.

चडशे देवमाशे ऋतूंप्रमाण स्थलांतर करतात. तातूंतले कांय ५,००० किमी. मेरेन पयस वतात. कांय देवमाशे आपलें खाण मेळोवपाखातीर एके सुवातेसावन दुसरे सुवातेर वतात. सादारणपणान देवमाशे सगळ्या दर्यांनी सांपडटात. पूण ध्रुवीय उदकांत तांचें प्रमाण चड आसा. देवमाशे आपल्या हेर सांगात्यांक शिटकावणी दिवंचेखातीर वेगवेगळ्या प्रसंगांप्रमाण विंगड विंगड आवाज काडटात. तांचो आवाज मनशाच्या आवाजापरस, सुमार तेरा पटींनी व्हड आसता.

देवमासो हो एक सवकास पेंवपी प्राणी आसून तो एका वराक सुमार २५ ते ३८ किमी. अंतर हुपूंक शकता. शेंपडेची वयर - सकयल हालचाल करून तो मुखार सरता, जाल्यार शेंपडेची आडवी - तिडवी हालचाल करून तो दिशा बदलता. वल्ल्याभाशेन आशिल्ले मुखावयले पांखाटे ताची कूड सांवरतात.

सादारणपणान सगळ्या जातींचे देवमाशे पंगडा पंगडांनी रावतात. एका पंगडांत सु. २० ते १,००० देवमाशे आसपाक शकतात. पूण निळो देवमासो चड करून एकलोच भोंवता वा तांचे पंगड खूब ल्हान आसतात. पंगडान राविल्ल्यान तांकां आपलें खाण मेळोवपाक सोंपें जाता. तशेंच, पंगडांत राविल्ल्यान ते आपलें संरक्षण करपाक शकतात. गरजेप्रमाण ते एकामेकांक आदार करतात. जर तांच्या पंगडांतलो कोणूय दुयेंत पडत जाल्यार वा जखमी जाल्यार, पंगडांतले हेर देवमाशे ताचेर देखरेख दवरतात. मादी पिलाक जल्म दिता तेन्ना हेर मादयो तिका आदार करतात. देवमासो हो एक भिजूड प्राणी. मात लेगीत आवाज केल्यार तो भियेता. भियेतात तेन्ना ते घट्ट एकमेकांक तेंकून रावतात आनी नेटान पेंवपाक लागतात. हे तांचे भिजूड वृत्तीक लागून कोळी लोक, कांय जातीचे देवमाशे सहज धरतात.

देवमाशांसावन मेळपी तेल, चरबी आनी मास हांकां खूब मागणी आशिल्ल्यान खूब पयलींसावन देवमाशांची शिकार जायत आयल्या. विसाव्या शेंकड्यांत 'हारपून गन' ह्या पिस्तुलाचो सोद लागिल्ल्यान, ताच्या आदारान व्हडा प्रमाणांत देवमाशांची शिकार जावपाक लागली. हाचो परिणाम म्हळ्यार कांय देवमाशांच्यो जाती काबार जावपाक लागल्यो. ह्यो जाती तिगोवन दवरपाखातीर इंटरनॅशनल व्हेलींग कमिशनान सगळ्या दर्यांनी कांय खाशेल्या जातींच्या देवमाशांची शिकार करपाक बंदी घाल्या.

कांय तारवटी लोक दर्यांतल्या संकटांच्या निवारणाखातीर देवमाशांची पूजा करता.

- एस्. आर्. गनीहार

## देवल, गोविंद बल्लाळ : (जल्म : १३ नोव्हेंबर १८५५ हरिपूर - सांगली; मरण : १४ जून १९१६, मिरज).

नामनेचो नाटककार आनी नाट्यदिग्दर्शक. बापायचें नांव बल्लाळ ऊर्फ बाळाजीपंत. व्हडलो भाव कृष्णाजीपंत हो संगीततज्ञ जाल्यार मदलो भाव रामभाऊ उत्तम नट आशिल्लो.

हरिपूराकच ताचें मराठी मुळावें आनी संस्कृत शिकप जालें. उपरांत बेळगांव आनी कोल्हापूराक माध्यमिक शिक्षण घेवन १८७८ वर्सा तो मॅट्रीक पास जालो. १८८० वर्सा पुण्याच्या इंजिनिअरींग कॉलेजांतलो शेतकी शिक्षणवर्गाचो अभ्यासक्रम पुराय करून प्रमाणपत्र घेतलें.

बेळगांव आनी पुण्याक अनुक्रमान सरदार आनी न्यू इंग्लीश ह्या स्कुलांतल्यान शिकोवपाची नोकरी केल्ल्यान लोक ताका 'देवल मास्तर' ह्या नांवान वळखूंक लागले. अण्णा किर्लोस्कर होय तेन्ना सरदार स्कुलाचो शिक्षक आशिल्लो. थंयच दोगांयची वळख जावन गुरूशिश्याच्या नात्यांत रुपांतर जालें. तेन्नासावन देवलान कविता रचपाक सुरवात केली.

देवल आनी शंकरराव पाटकर हाणीं पुण्यांत आसतना 'आर्योध्दारक' नांवाची एक नाटक मंडळी स्थापन केली. तेन्ना परशुरामपंततात्या गोडबोले हाणें मराठींत अणकार केल्ल्या 'वेणीसंहार' ह्या नाटकांतली देवलाची 'अश्वत्थाम्याची' भुमिका खुबूच गाजली.

१८८० वर्सा किर्लोस्कर नाटक मंडळी स्थापन जाली. किर्लोस्कराच्या 'शाकुंतल' नाटकांतलीं शकुंतलेचीं पदां देवलान रचलीं. देवल कुशळ नाट्यशिक्षक आशिल्ल्यान ताणें भाऊराव कोल्हटकर, नानासाहेब जोगळेकर, गणपतराव बोडस, काशिनाथपंत परचुरे आनी बालगंधर्व ह्या नटश्रेश्ठांक तालीम दिवन तयार केले.

देवल हाणें संस्कृताच्या आदारान तीन नाटकां बरयलीं तीं अशीं - मृच्छकटिक (१८८९), विक्रमोर्वशीय (१८८९) आनी शापसंभ्रम (दुसरी आवृत्ती १९००). हीं तीन नाटकां तशेंच 'सं. शारदा' (१८९९) हें नाटक ताणें किर्लोस्कर कंपनीक दिलें. 'सं. शारदा' हें नाटक साहित्यिक तशेंच प्रायोगिक म्हणून खूब गाजलें.

टॉमस सदर्न हाच्या 'ध फेट्रल मॅरेज' हाचेवयल्यान गॅरिक हाणें 'इझाबेला' ही रंगावृत्ती तयार केली. हे रंगावृत्तीच्या आदारान देवलान 'दुर्गा' (१८८६) हें नाटक बरयलें. ह्या नाटकाक राजाराम कॉलेजीचें इनामूय मेळ्ळें. शेक्सपिअराच्या ऑथेल्लो हे रंगावृत्ती वयल्यान देवलान 'झुंझारराव' (१८९०) हें नाटक बरयलें.

'संशयकल्लोळ' (१९१६) हें संगीत नाटक देवलाच्या मूळ 'फाल्गुनराव' (१८९३) ह्या नाटकाचो अणकार. हें नाटक मूळ विलायती नाटकाचेर आदारीत आसा अशें देवलान्च नमूद करून दवरिल्लें आसा. पूण तें मूळ

नाटक म्हळ्यार मोलियेर ह्या फ्रांसेझ नाटककाराचें, 'गॉनारेल' काय मर्फी ह्या इंग्लीश नाटककाराचें 'ऑल इन द रॉंग' हाचेविशीं जाणकारांमदीं मतभेद आसात. कांय जाणकारांच्या मतान 'फाल्गुनराव' हें मूळ नाटक 'गॉनारेल' आनी 'ऑल इन द रॉंग' ह्या दोनूय नाटकांचेर आदारिल्लें आसा.

मराठी रंगभूमीवयलें 'शारदा' हें पयलेंच समाजीक नाटक आशिल्ल्यान समाजीक नाटकाचो पयलो मान देवलाक मेळटा.

रेनल्ड्साचे 'मिस्टरीज ऑफ द कोर्ट ऑफ लंडन' हे कादंबरे वयल्यान देवलान 'लंदनरहस्य' (१८९४) ही कादंबरी बरयली.

निमाणचीं तीन वर्सां तो गंधर्व कंपनींतूच आशिल्लो. 'वत्सलाहरण' हें नाटक बरोवपाचो ताचो बेत आसतना ताच्या पांयाक जाल्ली एक बारीकशी जखम जडावली. पांय कापचो पडलो. अशे तरेन गोडेंमुताच्या दुयेंसान एका म्हान नाटककाराचो अंत जालो.

– कों. वि. सं. मं.

**देवलस्मृती :** एक स्मृतीग्रंथ. हो ग्रंथ मूळ स्वरुपांत उपलब्ध ना. ह्या नांवाचो एक ९० श्लोकांचो ग्रंथ छापला. पूण तो हेर स्मृतींतल्यान प्रायश्चित्ताविशींचे तितलेच श्लोक वेंचून तांचो केल्लो संग्रह आसुंये अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

मिताक्षरा, हरदत्ताचो विवरण नांवाचो ग्रंथ, स्मृतिचंद्रिका आनी अपरार्क ह्या ग्रंथांनी आचार, वेव्हार, श्राध्द, प्रायश्चित हेविशींचे देवलस्मृतींतले उतारे घेतल्यात. ताचेवयल्यान देवल हो बृहस्पती, कात्यायन ह्या स्मृतिकारांच्या काळांतलो आसुंये, अशें दिसता. देवलाचे, सगळ्याक मेळपी धर्मशास्त्राविशीचे तीनशें श्लोक एकठांय करून तांचो एक संग्रह 'धर्मप्रदीप' ह्या ग्रंथांत दिला.

– कों. वि. सं. मं.

**देवसी :** नेपाळांतली एक परब आनी लोकांनाच. ही परब दिवाळेच्या दुसऱ्या दिसा येता. ह्या वेळार तरणाट्यांचो एक चोमो कोणाय जाण्ट्याच्या फुडारपणाखाल दर एकल्याच्या घराकडेन वचून मंगल कामना उक्तायता. त्या वेळार तो जाण्टो मनीस पद म्हणून नाचता आनी ताचे वांगडचीं सगळीं तरणाटीं 'देवसी रे' हें पालुपद म्हणीत नाचतात. ह्या तरणाट्यांक 'देवस्यारे' अशें म्हण्टात. हे देवस्यारे ज्या घरांनी वतात थंय तांकां शकुनाचो म्हणून फराळ खावपाक दितात. देवसी पद म्हणून जातकच हे सगळे लोक घरांतल्या येजमानाक आशिर्वाद दिवपी पद म्हण्टात. तातूंतलें एक पद अशें –

इस घर को लक्ष्मी ले, पानी छुंदा तेले हुने
इस घर को लक्ष्मी ले, दुंगा छुंदा द्रव्य हुने
जसको बारीमा केरा, उसे को काख मा छोरा
जरनेली बंदूक पास गरो हामी जांछू राजगरो ।

**अर्थ** – घरचे लक्ष्मीन उदकाक हात लायलो, जाल्यार ताचें तेल जावं, फातराक हात लायल्यार ताचें द्रव्य जावं. जाच्या पोरसांत केळीं आसात, ताचे घरकान्नीक पूत जावं, आमी वतात. तुमी सुखान रावात.

ह्या पदान देवसीचो सुवाळो पुराय जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**देवळी :** देवाचें वा देवळाचें वावराडेपण करपी दादल्याक 'देवळी' म्हण्टात. पुर्विल्ले ग्रामवेवस्थेंत देवळी हो एक म्हत्वाचो घटक आशिल्लो. देवळांत सान्न-शिंताडो करप, पुजेखातीर फुलां हाडप, दिवल्यो-आयदनां घांसप हेसारकीं कामां देवळ्यान करपाचीं आसतात. हेभायर पुजे वेळार घांटी मारप, पालखेकडेन वा हेर उत्सव प्रसंगार शींग वाजोवप, तशेंच देवळांत कितेंय हाड-व्हर करपाचें आसल्यार तेंवूय काम देवळ्याचेंच आसता. देवळीपणाचो वारसो ताका परंपरेन मेळिल्लो आसता. ताचे चाकरेखातीर ताका देवस्थानान वा गांवान थरावीक शेत वा जमीन सोडिल्ली आसता. तशेंच, उत्सव वा पुरवणे प्रसंगार देवाचे येणावळींतलो एक थरावीक वांटो देवळ्याक मेळटा. दर सणा-परबेक ताका गांवांत 'परब' मेळटा. म्हणजेच परब मनोवपाखातीर नाल्ल-तांदूळ-गोड हे सारको शिदो मेळटा. परबेचे 'सान्नां-पोळे' मेळटात. पिकेकडेन दर खळार 'खळ-कुडोव' मेळटा.

देवळी ज्या देवाची सेवा करता तोच ताचो कूळदेव आसता. गोंयांत म्हादेव, सांतेर, बेताळ ह्या देवस्थानांकडेन देवळी मेळटात. तांकां 'नायक' अशेंय म्हण्टात.

देवळ्यावयल्यान ताचे जातीकय 'देवळी' अशेंच नांव पडलां. चार वर्णांमदल्या चवथ्या शुद्र वर्णांत हे जातीचो आस्पाव जाता. ही जात गोंय, कोंकण, महाराष्ट्र, तमीळनाडू, कर्नाटक, केरळ ह्या वाठारांत मेळटा. हें घराणें बामण, मराठे, वाणी, कांकणकार, गुरव, खारवी, भंडारी, शेट आनी कांसार ह्या जातींगेर जेवंक शकता. जाल्यार देवळ्यांगेर म्हार आनी चामार जातीचे लोक जेवतात.

'भावीण' हें देवळी प्रथेचेंच एक रूप. हांगा दादल्या बदला बायल देवाचें वावराडेपण करपाखातीर बांदिल्ली आसता. ही चाल भारतभर मेळटा आनी अशे बायलेक 'देवदासी' हें नांव गोंयाभायर रूढ आसा. देवदासीची प्रथा खूब पोरणी आनी बाबीलॉनांतल्या इस्तर देवतेकडेनय संबंदीत देवदासी आशिल्ल्यो अशी म्हायती मेळटा.

खूब पुर्विल्ल्या काळार देवळी घराणें 'देवळी' अशेंच आडनांव लायतालें. आयज तांतूतले कांय जाण 'देवदास' अशें आडनांव लायतात जाल्यार कांय जाणांनी आपल्या गांवच्या नांवाफाटल्यान 'कार' प्रत्यय जोडून तें आडनांव म्हणून घेतलां.

सिंधु संस्कृतींतय देवळी परंपरा वा ते परंपरेंतल्यानच जल्माक आयिल्ली देवदासी परंपरा घोळणुकेंत आशिल्ल्याची म्हायती मेळटा. मूळ सुमेर संस्कृतीचें खाशेलपण आशिल्ली ही देवळी परंपरा गोंयांत क्रिस्ता आदल्या सुमार २३००-२२८० ह्या काळामदीं सुमेरांनी हाडली, अशें विद्वानांचें मत आसा. सुमेरा आदीं गोंयांत वसणूक करून आशिल्ल्या मारांग, शबर, कोल आनी उपरांत आयिल्ल्या गौड सारस्वतांनी ती उखलून धरली आनी आपले संस्कृतायेंत ती आस्पावन घेतली.

सुमेर संस्कृतायेन गोंयांत प्रवेश केले उपरांत 'देवळी', 'देवदासी' ह्या सारक्या संकल्पनांनी गोंयचे मूळचे कृषिपरंपरेचेर प्रभाव घालून ताचे दोन फांटे केले, जांतल्या एका फांट्यान गांवाखातीर लागतलें अन्न – धान्य आनी हेर उत्पन्न तयार करपाची जबाबदारी उखली जाल्यार दुसऱ्यान देव-देवळां सांबाळ्ळीं. ह्या दुसऱ्यांतलो पयलो भाग निखटी देवाची सेवा आनी देवळांची राखण करूंक लागलो जाल्यार दुसरो देवामुखार कलाप्रदर्शन करून देवाची सेवा करूंक लागलो. 'देवळी'

परंपरेचो आस्पाव दुसऱ्या वर्गांतल्या पयल्या भागांत जाता. सुरवातेक देव-देवळांची राखण करपी, सांबाळ करपी ह्या अर्थान देवळ्याक आशिल्लो मान कालांतरान कुशीक पडून फकत देवाचो वावराडो इतलोच ताका मान उरलो.

देवळी घराण्यांतल्या पुताक 'देवळी' जाल्यार धुवेक 'देवळण' म्हण्टात. देवळण जरी देवळांतले सेवेखातीर बांदिल्ली नासली तरी ती देवळांतलीं खूबशीं कामां करता. तिका लग्न जावंक मेळना. लग्नाबदला तिचेर 'शेंस' नांवाचो संस्कार करतात. हे शेंसविधींत तिचें लग्न देवाकडेन लायतात. सुरवातेक ह्या घराण्यांतल्या सगळ्याच धुवांक शेंस घालताले. उपरांत एकल्या कोणाकय घरा दवरून हेरांचीं लग्नां करपामेरेन सुदारणा जाली. गोमंतक मराठा समाज ह्या देवदासी समाजांतल्या जाळवणदारांचे चळवळीक येस येवन आयज गोंयांत ही चाल पुराय तरेन बंद जाल्या.

देवळी पयलीं चड करून लग्नां जायनाशिल्ले ते आपले भयणीच्याच संवसारांत ओंपून घेताले. पूण तांकां लग्न जावपाचेंच आसल्यार तांच्या जातीची व्हंकल मेळप कठीण जातालें. तांकां मागीर दुसरे गरजेवंत जातींतल्यान चली मागून हाडची पडटाली.

पयलीं गांवांत भट-बामण वा खंयच्याय उंचेल्या वर्गांतल्या चलयांचें लग्न जालें जाल्यार तांचेबरोबर 'देवळण' धेडी म्हणून धाडपाची चाल आशिल्ली. हे देवळणीक मागीर तिच्याच घरा घोळून थंयच आजल्म रावचें पडटालें. तिगेर जल्माक येतले संततीकय मागीर आवयच्या ते धनिणीच्या घराकडेनच लागणूक धरून रावचें पडटालें. तिका स्वताखातीर वेगळी मालमत्ता एकठांय करपाचो अधिकार नासतालो. आज ही प्रथा पुराय तरेन बंद पडल्या. पूण अजुनूय गोंयच्या कांय गांवांनी धेडी म्हणून देवळ्याची चली व्हंकलेबरोबर धाडटना दिसता. ती कांय दीस रावन मागीर आपल्या घरा परती येता. तशेंच कांय गांवांनी लग्न-कार्याच्या वेळार अजुनूय देवळणीक 'कापड' दिवपाची चाल आसा.

देवळण ही देवाची बायल आनी ती जल्मसवायशीण आसता अशें मानतात आनी तिका शुभ-कार्यांत पयलो वांटो आसता. लग्नांत बाशींग तयार करप, मणी गुंथप, होंट भरप हीं कामां मुद्दाम तिचेकडल्यान करून घेतात.

कलवंत जात देवळी जातीक आपले परस उण्या दर्ज्याची मानता आनी ती आपल्या नाचाक केन्नाच देवळ्याकडल्यान वाजपाचो सांगात घेना.

देवळी घराणें मास-नुस्तें खाता. कांय देवस्थानांनी पुरवणेक मारिल्लो कोंबो देवळ्याक येणें आसता.

अर्थीक नदरेन बरे आशिल्ल्या देवळी घराण्याचो भेस-अलंकार आनी चाली-रिती उंचेल्या वर्गांतल्या लोकांकडेन साम्य दाखोवपी आसतात. तांची बोली, तांचो ज्या घराण्यांकडेन चड संबंद येता त्या घराण्यांचे बोलीकडेन नातें जोडपी आसता.

आयज देवळ्याचे जिणे-पद्दतींत खुबूच बदल जाला. भोवतेक जाणांनी आपलो पारंपारीक धंदो सोडून दिला जाल्यार कांय जाणांनी फाटली लागणूक म्हणून देवळाकडेन थोडोसो संबंद दवरला. तांच्या भुरग्यांनी आयचे पद्दतीचें शिक्षण घेवन नवे तंत्रीक आनी यंत्रीक वेवसाय-धंदे आपणावंक सुरवात केल्या. तांच्या चलयांचीं आयज सर्रास लग्नां जातात. देवळी समाजाक आज 'गोमंतक मराठा समाज' ह्या नांवान वळखतात. ह्या गोमंतक मराठा समाजाचें नांव लायतल्या हेर कलवंत, पेरणी, भावीण, बंदे, चेडवां ह्या सारक्या हेर जातींकडेन देवळी समाजाचीं आतां समाजमान्यतायेन लग्नां जातात.

'देवळी' हें उतर ल्हान देवूळ ह्या अर्थानय वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : देवदासी.

**देवांग :** एक जात. हे लोक विणकारी आसून तांची वस्ती तमीळनाडू, महाराष्ट्र, कर्नाटक आदी वाठारांनी आसा. हे लोक तेलुगू वा कन्नड भास उलयतात. हांकां जादरू वा जाद, देंद्र, देवर, देर, सेनियन, सेदन, हटगर, साळी, विणकर, नेकार, नेगार अशींय हेर नांवां आसात. तांचे उत्पत्तीविशीं कथा आसा ती अशी - ब्रह्मदेवान मनूक निर्माण केलो आनी ताका देव आनी मनीस हांचेखातीर कपडो विणपाचें काम दिलें. मनून बरोच तेंप हें काम केलें आनी उपरांत तो सर्गांत गेलो. ताचेउपरांत दुसरो कोणूच विणपी नाशिल्ल्यान देवांक आनी मनशांक झाडांचीं पानां न्हेसचीं पडलीं. देवान आनी मनशान ही खबर ब्रह्मदेवाक सांगली. ब्रह्मदेवान तांकां शिवाकडेन व्हेले. तेन्ना शिवान एक तेजिश्ट मनीस निर्माण केलो आनी ताका देवलान अशें नांव दिलें. देवाचें आनी मनशांचें आंग धांपपाखातीर वस्त्रां विणपाचें काम ताका दिलें. तशेंच वस्त्रां विणपाखातीर विष्णुचे बोंबलेंतल्यान ताका धागे घेवपाची आज्ञा केली. देवल तपश्चर्या करून विष्णुकडल्यान धागे घेवन येता आसतना वाटेर वज्रदंत नांवाच्या असुरान ताचेर हल्लो केलो. तेन्ना देवलान चौडेश्वरी वा चौडनायकी देवीच्या आदारान त्या असुराचो नाश केलो. त्या दिसासावन ते जातीक देवांग अशें नांव पडलें. चौडेश्वरी ही देवांगांची कुलदेवता जाली. दर वर्सा तिचो व्हड उत्सव करतात. त्यावेळार कांय लोक व्रतस्थ रावन तिच्या देवळांत वतात. थंय देवळांतले भट एका आयदनाच्या कटाचेर एक लांब तलवार उबी करून दवरतात. व्रतस्थ देवांग ते तरसादीचें तोंक आपले छातयेक तोपून घेता. देवीक कोंब्या - बोकड्याचो बळी दितात. खंडोबा, बहिरोबा, ज्योतिबा, नरसोबा, भवानी, जोगाई, केदारलिंग अशा हेर कांय देवांकय हे लोक भजतात.

देवांगाचे कुलाचारदावारू, सुंतसाळी आदी एकुणतीस पोटभेद आसात. कुलचारदावारू हांचेभितर जानवें आनी लींग दोनय गळ्यांत घालपाची चाल आसा. सुंतसाळी लोक मुसलमानांतल्यान आयिल्ले आसून तांचेभितर सुंता करपाची चाल आसता. तांच्या उपनामावयल्यान तांचीं कुळां थरल्यांत. नासिक जिल्ह्यांतल्या मराठेसाळी ह्या पोटविभागांतल्या लोकांक गोत्रांय आसात. हिरे आनी चिक्कुरविन ह्या पोटभेदांतल्या लोकांचीं सव्वीस गोत्रां आसून तातूंतलीं कांय शिववाचक आनी कांय पार्वतीवाचक आसात.

तांचेमदीं आदल्या तेंपार देवदासीची चाल आशिल्ली. तांकां 'जातीबिड्डलू' अशें म्हण्टाले. तांचे चले कपड्याचेर छाप उठोवपाचें काम करताले आनी कांय वेळार भिक्षाय मागताले. ह्या भिक्षेकऱ्यांक सिंगमवाड अशें नांव आसा. सिंगमवाडा लागीं सदांच एक शींग आसता. त्या शिंगावरवीं ते मरणाची बातमी लोकांक कळोवपाचें काम करतात.

देवांगाच्या मुखेल्याक पट्टगर म्हण्टात आनी ताचो अधिकार वंशपरंपरेन चलता.

तांचेमदीं लग्न थारायतना देवीचो प्रसाद घेतात. लग्न सुवाळ्या वेळार सुरवातीक पानसुपारी वांट्टात. व्हंकलेचो मामा तिच्या गळ्यांत

बोंधू (हळदीन रंगयलो दोरो) बांदता. लग्नाच्या आदल्या दिसा एक रवी उबी करतात आनी न्हवऱ्याचें चौल, उपनयन आदी संस्कार तशेंच पाद्यपुजा, काशीयात्रा, धारदत्तम, मांगल्यधारणम् अशे हेर विधी करतात. देवांग दादल्याच्या अनैतिक संबंदांतल्यान जाल्ले संततीक कुरसाळी म्हण्टात. अशा लोकांवांगडा ते अन्नउदकासारके वेव्हार करिनात.

तांचेमदीं जात पंचायत आसता. पंचायतीच्या खर्चाखातीर लग्नासारक्या सुवाळ्यांतल्यान वर्गणी वसूल करतात. मेल्ल्या मनशांक चड करून पुरतात. थडच्यांत लींग दवरतात आनी और्ध्वदेहिक संस्कार जायसर सदांच ताची पुजा करतात. दर बारा वर्सांनी एके फावटीं देवांग पद्मसाळी लोकांकडेन वचून भीक मागतात. पद्मसाळींनी तांकां भीक दिना जाल्यार हे लोक तांच्या घरांत रिगतात आनी मेळटा ती वस्त घेवन वतात.

- कों. वि. सं. मं.

**दे विष्णू :** (पळेयात डे विष्णू).

**देवी :** एक वशाचो रोग. ह्या रोगाक लागून दुयेंतीक जोर येवन कातीर उदकाचे आनी मातेरीचे फोड येतात. मागीर हो रोग भयंकर रूप घेता. जाका लागून रोग्याचे दोळे, मेंदू, सांदे आनी हेर भागांचेर वायट परिणाम जावंक शकतात. हो एक जीवघेणो रोग. एकदां ह्या रोगाची धाम एका वाठारांत आयली म्हण्टकच ती घराघरांतल्यान पातळत वता आनी कितलेशेच रोगी ह्या रोगाक लागून मरतात. पुर्विल्ल्या काळांत एकदां ही धाम पातळ्ळी म्हण्टकच तें देवीचें रागणें वा कोप अशें समजताले. हे अंधश्रध्देचे भावनेक लागून दुयेंसाचें स्वरूप आनिकूय भिरांकूळ जातालें.

१९६७त संवसारीक भलायकी संघटनेन (W. H. O.) संवसारभर देवी निर्मूलन कार्यक्रम आंखलो आनी तो रोखडोच चालीक लायलो. १९७७त सोमालियांत जो देवीचो रोगी दिसून आयलो, तो सामको निमाणो दुयेंती थारलो. हे संघटनेन मे १९८०त, संवसारभर देवी रोगाचें पुराय निर्मूलन जाल्ल्याची घोशणा केली.

देवी हो रोग Variola (pox) ह्या वायरसाक लागून जाता. हो वायरस उस्वासावांगडा आंगांत भितर सरता आनी थोड्या दिसांनी रगताच्या शिरांनी पातळटा. हांगा हो वायरस पेशींचो नाश करता आनी कातीचेर व्हडले व्हडले उदकाचे फोड दिसतात. ह्या दुयेंसाक लागून तोंडार खोल मावो उरतात, कारण घाम तयार करपाच्यो ग्रंथी (Sebaceous glands) ह्यो तोंडार खूब प्रमाणांत आसतात. त्यो ह्या दुयेंसान नश्ट जातात.

हो रोग, रोग्याच्या वांगडा रावत जाल्यार वा ताणें वापरिल्ल्यो वस्तू लेंस, चादर, आयदनां वापरीत जाल्यार दुसऱ्याक जांव येता. देवीचो रोगी आंगार फोड येवंच्या पयल्या दिसासावन फोड पेखून ताची वयली खवळी पडमेरेन दुसऱ्याक देवीचो रोग दिवंक शकता.

देवीचो रोग खंयचेय पिरायेच्या मनशाक जावंक शकता. भारतांत दोन सप्तकांच्या नवजात भुरग्यांपसून ते ८५ वर्सांच्या म्हाताऱ्यामेरेन देवीचे रोगी सांपडल्यात. हो रोग चड करून उण्या अर्थीक उत्पन्न आशिल्ल्या आनी उणी समाजीक जाणीव आशिल्ल्या पंगडांनी दिश्टी पडटा. ह्या रोगान मरण पाविल्ल्यांचें प्रमाण सामके भुरगे आनी म्हातारे हांचेमदीं चड दिसता. देवीचें प्रमाण भारतांत डिसेंबर ते मे म्हयन्यांमदीं चड आसतालें.

**लक्षणां :** देवी आयिल्ल्या दुयेंतीच्या वशान दुसऱ्या मनशाक हो रोग जालो म्हण्टकच बारा दिसांनी त्या रोगाचीं लक्षणां दिश्टी पडटात. हें दुयेंस चार टप्प्यांनी दिसता.

१) सुरवातीचीं लक्षणां (Phase of Prodroure) : हातूंत रोग्याक खूब जोर (सुमार १०२° ते १०६° फॅ.) येता. ताची तकली आनी आंग फोडूंक लागता. पोट दुखता आनी ओंकारे सुरू जातात. जोर तीन-चार दिसांनी देंवता. पूण रोग्याक जिवाक बरें दिसना.

२) पुळेर येवप (Eruptive Phase) : ह्या वेळार रोग्याच्या ताळ्यांत दुखूंक लागता. तोंडांत भितर फोपटां येतात. हांचेवांगडा तोंडार आनी हाता-पांयार तांबड्यो पुळयो येवपाक सुरू जाता आनी मागीर हे फोड भुजांचेर, धडाचेर आनी तळव्यांचेर पातळटात.

३) उदकाचे आनी मातेरीचे फोड येवप : तांबड्या पुळयांचें रुपांतर तीन-चार दिसांनी उदकाचे फोड येवपांत जाता. हे फोड तोंडार आनी हातापांयांचेर चड दाट आसतात. उपरांत थोड्या दिसांनी हे फोड मातेरीन आनी केन्ना केन्नाय रगतान भरतात. ह्या काळांत रोग्याक परतून जोर येता.

४) निवळपाचो काळ : फोडाचे वयर खवळी जावपाक लागता आनी फोड सुकून येतात. खवळी पडटकच थंय मावो उरतात. ह्यो मावो ल्हान आनी खोल आसतात आनी तोंडार चड प्रमाणांत आसतात. दुयेंसाची सुरवात जावन ते खवळी सुकून पडपाक तीन सप्तकां लागतात.

**वायट परिणाम :** कातीच्या फोडांचें इन्फॅक्शन जावं येता. हें इन्फॅक्शन रगतांत पावन, रगतांत मातेर जावंक शकता (Septimica) आनी मनीस मरूंक शकता. इन्फॅक्शन पुल्मांवांनी वचून न्युमोनिया जाता. दोळ्यांचें वेगवेगळ्या पडद्यांचें इन्फॅक्शन जावन मनीस कुड्डो जावंक शकता. इन्फॅक्शन मेंदवाक मारून मेंदवाचो जोर येवंक शकता आनी मनीस अपंगूळ जावंक शकता वा ताका मरण येवं येता. हें इन्फॅक्शन सांद्यांनी वा हाडांनी पावन सांद्यांत उदक जाता आनी हाडाक मार बसता. वृषणांक (कोयांक) (testes) इन्फॅक्शन पावं येता (orchitis).



एडवर्ड जेनर (१७४९-१८२३) आपल्या पुताक देवीरोगाआड वासीन करतना.
शिल्पकार : मॉंतवेर्द (१८७८)

ह्या रोगाचें निदान करतना कांय गजाली म्हत्वाच्यो आसात. रगतांतल्यो धव्यो पेशी (White Blood Cells) हांचें प्रमाण रगतांत सुर्वेक उणें जाता आनी मागीर तें वाडटा. फोडांतल्या उदकाचें इलेक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शकावरवीं

परीक्षण करून वायरस सोदून काडूं येता. वायरसाची परिक्षा घेवन ह्या वायरसावरवीं देवी जाल्या काय ना हाचो सोद घेवं येता.

देवीच्या दुयेंसाचेर रामबाण अशें वखद ना. पूण दुयेंतीचे भोंवतणीं निवळसाण राखप खूब गरजेचें आसता. फोडांचें इन्फॅक्शन जावंचें न्हय आनी हेर दुश्परिणाम जावंचे न्हय म्हणून जतनाय घेवंची पडटा. इन्फॅक्शन जाल्यार प्रतीजैव वखदां वापरतात. रोग्याक व्हडा प्रमाणांत पातळ आहार दिवंक जाय. कातीच्या फोडांचेर कसलेंच वखद लावपाक जायना.

देवीचें वासीन हें दुयेंस जावंचें न्हय म्हणून खूब उपेगी पडटा. रोग्याच्या संपर्कांत आयिल्ल्या मनशाक हें वासीन रोखडेंच दिलें जाल्यार हें दुयेंस जायना. भुरगेपणांत वासीन घेतल्यार लेगीत वासीन परत घेवंचें पडटा. दुयेंस जावंचें न्हय म्हणून Methisazone हें वखद घेतात. थोडेकडेन दुयेंस जावंचें न्हय म्हणून वासिनावांगडा इम्युनोग्लोबीन हें इंजॅक्शन लेगीत वापरतात. सद्या देवीचें वासीन फकत Pox वायरसाच्या प्रयोगशाळांनी काम करपी मनशांक दितात.

१९६१ वर्सासावन सुमार धा खेपे देवीचें दुयेंस भारतांतल्यान युरोपाक पावलां. जर्मनी, यूको, पोलंडांत हें दुयेंस मेळिल्लें. संवसारांतल्या सगळ्याच वाठारांनी हें दुयेंस दिश्टी पडलां. पूण भारतांत हाचें प्रमाण बरेंच चड आशिल्लें.

भारतांत राश्ट्रीय देवी रोग निर्मूलन कार्यावळीची स्थापणूक १९६२त जाली. भारतांतल्या दरेका मनशाक वासीन दिवप, हो हे कार्यावळीचो हेत आशिल्लो. १९६२ ते १९६६ मेरेन सुमार स कोटी लोकांक मुळावीं वासिनां दिल्लीं. १९७३ वर्सा भारत सरकारान देवी रोगाआड खर मोहीम सुरू केली. १९७५ वर्सा भारतांत देवीचें समूळ निर्मूलन करपाची कार्यावळ चालीक लायली आनी तिका अपेक्षीत यश आयलें.

भारतांत १९०० ते १९२० वर्समेरेन देवीपसून आयिल्ल्या मरणांचें प्रमाण दर लाख लोकांफाटल्यान १९० ते ८०० अशें आशिल्लें. हें प्रमाण १९४७ ते १९६३ वर्सांमदीं १५० जालें. १९५८ ते १९६५ ह्या काळांत देवीक लागून मरण पाविल्ल्या रोग्यांतले ७५ टक्के भारतांतूच आशिल्ले.

– डॉ. जयकृष्ण लवंदे

पूरक नोंद : फुगांव.

**देवीपुराण :** शाक्तपंथी लोकांमदीं नामना आशिल्लें एक उपपुराण. हातूंत १२८ अध्याय आसात आनी तातूंत देवीचें महात्म्य वर्णन केल्लें आसा. तेभायर तातूंत शाक्त मुर्तीकला, शाक्त व्रतां आनी पुजाविधी, शैव वैष्णव पंथ, ब्राह्मण धर्म, झूज, नगरां, दुर्गरचना, वेद, उपवेद, वेदांच्यो शाखा, वैजकी, ग्रंथलेखन, तीर्थ क्षेत्र, दानां आदी विशयांचें वर्णन आसा.

कांय ऋषी वसिष्ठ ऋषीक प्रस्न विचारतात आनी वसिष्ठ ऋषी तांकां म्हायती सांगता अशी ह्या पुराणाची रचणूक आसा. ताचे त्रैलोक्यविजय, त्रैलोक्याभ्युदय, शुंभ-निशुंभमंथन आनी देवासुरझूज अशे वट्ट चार वांटे आसात. सैमनिर्मणेच्या आरंभाक देवी कशी प्रगट जाली तें पयल्या वांट्यांत आयलां. दुसऱ्या वांट्यांत शुक्राची कथा, घोराचो उदय, ताका विष्णुकडल्यान मेळिल्लें वरदान, ताचें मंत्रांचें बळगें, विंध्य दोंगराचेर जाल्लें देवीचें अवतरण, देवांनी तिचे कृपेन केल्लो राकेसांचो संहार आदी विशय आयिल्ले आसात. तिसऱ्या भागांत शुंभ-निशुंभाक मारिल्ल्याची कथा आसा. चवथ्या वांट्यांत देवा-असुरांचें झूज आनी कार्तिकेया कडल्यान तारकासुराचो वध ह्यो कथा मुखेल आसात.

सद्या जें देवीपुराण उपलब्ध आसा, तें पुर्विल्ल्या देवी पुराणाचें संक्षिप्त रूप आसून तातूंत पयले दोनच भाग आसात. इ. स. च्या इकराव्या शतमानांतल्या आनी ते उपरांतच्या जायत्या धर्मनिबंधकारांनी हातूंतले उतारे घेतिल्ले आसात. अभ्यासकांच्या मतान ह्या पुराणाची निर्मिती इ. स. च्या सातव्या शतमानांत जाली.

ह्या पुराणांत उक्तायल्लें शक्त्युपासनेचें स्वरूप तांत्रिक आसा. हें पुराण जरी वेदप्रामाण्य मानिल्लें आसलें तरी ताचो तंत्राचेर चड भर आसा. तंत्रमार्गांत स्त्री-शूद्रांची सुवात चड आशिल्ल्यान ह्या पुराणांत स्त्री-शूद्रांविशीं उदार भाव प्रगट केल्लो दिसता.

– कों. वि. सं. मं.

**देवी भागवत :** एक उपपुराण. देवीभक्तांच्या मतान अठरा महापुराणांतलें भागवत नांवाचें महापुराण तें हेंच. पूण वेगवेगळ्या पुराणांनी अठरा म्हापुराणांची सूची मेळटा. तातूंत फकत भागवत अशें संदिग्ध नांव आसलें, तरी तातूंत भागवत पुराणाचें जें खाशेलपण सांगलां, तें श्रीमद्भागवताकच लागू पडटा. देवी भागवत हें श्रीमद्भागवताच्या उजवाडा उपरांत तयार जाल्लें आसून ताचेर श्रीमद्भागवताचो बरोच प्रभाव आसा. दोगांयभितर १२ स्कंध आनी १८,००० श्लोक आसात. देवीभागवताचो अश्टम स्कंध म्हळ्यार श्रीमदभागवताच्या पंचम स्कंधाचें जशाचें तशें अनुकरण. हाचेवयल्यान देवी भागवत हें महापुराण नासून उपपुराणूच अशें सिध्द जाता.

आद्यशक्ती आशिल्लें दुर्गेचें माहात्म्य वर्णन करप आनी तिचे उपासनेच्या विधिविधानांचें पुरायपणान निरुपण करप हो ह्या पुराणाचो मुखेल विशय. मूळ प्रकृतीपसून मणिद्वीपांतले भुवनेश्वरीमेरेन जायत्या देवी रुपांचीं वर्णनां हातूंत आसात. गंगा, तुळशी, षष्ठी, पुष्टी, तुष्टी, आस्पत, आदींकय दुर्गेचींच रुपां मानल्यांत. ह्या संवसारांत ज्यो ज्यो दृश्यमान शक्ती आसात तांच्या रुपान दुर्गाच नटिल्ली आसा अशी ह्या ग्रंथाची भुमिका आसा.

ब्रह्मा, विष्णु, महेश हे तिगूय देवीच्या प्रभावानच प्रभावीत जाल्ले आशिल्ल्यान ते विनीत भावान देवीच्या व्यापक स्वरुपाचें स्तवन करीत आसात अशें वर्णन तृतीय स्कंधांत केल्लें आसा. तातूंत विष्णून केल्ल्या स्तुतींतलो श्लोक असो –

> विस्तार्य सर्वमखिलं सदसद्विकारं
> सन्दर्शयस्यविकलं पुरुषाय काले ।
> तत्त्वैश्च षोडशभिरेव च सप्तभिश्च
> भासीन्द्रजालमिव नः किल रञ्जनाय ॥

**अर्थ –** मूर्त आनी अमूर्त अशीं भुतां आनी तत्परिणामरूप आशिल्लो हो पुराय संवसार उत्पन्न करून तूं त्या पुरुषाक स्थितीकाली अखंड दाखयता आनी लोकरंजनाखातीर षोडशतत्त्वरूप आनी सप्ततत्त्व – रूप जावपी तूं आमका खरेंच इंद्रजालावरी दिसता.

मुखेल विशयाचेर आदारीत देवी भागवतांत जायत्यो उपकथा आयिल्ल्यो आसात. हाच्या सप्तम स्कंधांत देवीगीता आयिल्ली आसा. ही गीता देवी-हिमालय-संवादात्मक आसून तिचे ९ अध्याय आनी ४३२ श्लोक आसात. हे गीतेचेर भगवद्‌गीतेचो खुबूच प्रभाव दिसता. भगवद्‌गीतेंतल्या

श्रीकृष्णावरी देवीन आपले अवतार प्रयोजन थंय स्पश्ट केलां तें अशें -

यदा यदा हि धर्मस्य ग्लानिर्भवति भधर

अभ्युत्थानमधर्मस्य तदा वेषान् बिभर्म्यहम्॥

**अर्थ** - (देवी म्हण्टा) हे हिमाचला, जेन्ना जेन्ना धर्माक ग्लानी येता आनी अधर्माचें अभ्युत्थान घडटा तेन्ना तेन्ना हांव शरिरधारीणी जावन अवतरतां.

देवीभागवताचेर नीलकंठ (इ. स. चें अठरावें शतमान) नांवाच्या महाराष्ट्रीय तंत्रशास्त्रज्ञान बरयल्ली टिका उजवाडाक आयिल्ली. ताणें देवी भागवताच्या गौड आनी द्रवीड पाठांचो उल्लेख केला.

- कों. वि. सं. मं.

## देवी माहात्म्य :

देवीच्या उपासकांचो एक मुखेल ग्रंथ. हो ग्रंथ मार्कंडेय पुराणांत आसा. हातूंत ५६७ श्लोक आसून ते १३ अध्यायांनी विभागल्यात. तशेंच ह्या ५६७ श्लोकांचे ७०० मंत्रांनी वांटे केल्यान हो ग्रंथ सप्तशती वा दुर्गासप्तशती ह्या नांवान वळखतात.

देवीमाहात्म्यांत महाकाली, महालक्ष्मी आनी महासरस्वती ह्या देवीच्या त्रिविध स्वरुपांचीं चरित्रां बरयल्लीं आसात. पयल्या अध्यायांत महाकालीचें चरित्र आसा. ह्या अध्यायांत ७१ ते ८७ ह्या १७ मंत्रांनी ब्रह्मस्तुती आसा. २ ते ४ ह्या तीन अध्यायांनी महालक्ष्मीचें चरित्र आसा. तातूंत महिषासूरवधाची कथा वर्णिल्ली आसा. चवथ्या अध्यायांतल्या पयल्या २७ मंत्रांनी देवांनी केल्ली जगदंबेची स्तुती आसा. ह्या स्तुतीमंत्रांत देवीचें विश्वव्यापक स्वरूप वर्णन केल्लें आसा. तातूंतलो एक मंत्र असो:

हेतु : समस्तजगतां त्रिगुणापि दोषै -

र्न ज्ञायसे हरिहरादिभिरप्यपारा ।

सर्वाश्रयाखिलमिदं जगदंशभूत -

मव्याकृता हि परमा प्रकृतिस्त्वमाद्या ॥

**अर्थ** - तूं पुराय संवसाराचें मूळ कारण. तूं त्रिगुणात्मक आसुनूय त्या त्रिगुणापसून वेगळी आसा. हरिहरादी देवांक लेगीत तुजो पार लागिल्लो ना. तूं सगळ्यांक आदाररूप आसा. हें पुराय जग तुच्या अंशरुपान आसा. तूं अविकृतस्वरूपी अशी व्हड आद्य प्रकृती.

निमाण्या णव अध्यायांनी (५ ते १३) महासरस्वतीचें चरित्र आसा. ह्या भागांत चडशें शुंभ-निशुंभाच्या वधाचें वर्णन आसा. देवीसूक्त ह्या नांवान नामना आशिल्लो मंत्र चोंबो ह्याच भागांत आसा. हाच्या इकराव्या अध्यायांतल्या पयल्या ३५ मंत्रांच्या चोंब्याक नारायणी स्तुती अशें म्हण्टात.

देवीच्या त्रिविध स्वरुपाचीं हीं चरित्रां सुमेधा ऋषीन सुरथ राजा आनी समाधी वैश्य हांकां सांगिल्लीं आसात. दुस्मानाकडल्यान हारिल्लो सुरथ राजा आनी धनाच्या लोभाक लागून बायल भुरग्यांक मार घालून घराभायर घालपी समाधी वैश्य हे रानांत एकामेकांक मेळटात. ते दोगूय सुमेधा ऋषीक शरण वतात. तेन्ना तो तांकां आदिशक्तीचें माहात्म्य आनी तिचे उपासनेची वाट दाखयता.

सप्तशतींतले हे कथेंत चित्ताची एकाग्रताय आनी कार्यशीलताय ह्या दोन गुणांचेर अनुक्रमान समाधी वैश्य आनी सुरथ राजा हांचीं व्यक्तिचित्रां उबारून तांच्या मार्गांत आयिल्ल्यो अडचणी, सद्बुध्दी आनी विचारशक्ती हांचें प्रतीक आशिल्ल्या सुमेधा ऋषीन सोडयल्यो अशें दाखयलां. महाकाली, महालक्ष्मी आनी महासरस्वती हीं त्रिविध रुपां अनुक्रमान शरीरबळ, संपतबळ आनी गिन्यानाचेंबळ हांचीं प्रतिकां आसात. ह्या तिगांयचे उपासनेन व्यष्टी आनी समष्टी हांचें जिवीत पुराय तरेन समृध्द जातलें असो सप्तशतीचो संदेश आसा.

देवीच्या उपासना क्षेत्रांत ह्या ग्रंथाक खुबूच म्हत्त्व आसा. ज्ञानेश्वरान भगवद्गीतेचेर सप्तशतीचें जें रुपक केलां तातूंत ह्या ग्रंथांक मंत्रभगवती म्हळां.

ह्या ग्रंथाक संक्षेपान चंडी अशेंय म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

## देवी संप्रदाय :

भारतांत देवतेचे उपासनेचे नदरेन जे पंथ वा संप्रदाय निर्माण जाले, तातूंत देवी वा शक्तीपुजक वा मातृदेवतापुजक संप्रदाय हो खूब पुर्विल्लो आनी सर्वव्यापी आसा. देवताशास्त्रांत पंचदेव उपासनेक मुखेल सुवात आसा. निर्गूण वा निराकार परतत्त्वाचें सगूण वा साकार प्रतीक कल्पून ताची भक्ती करप वा कृपेचे अपेक्षेन पुराय जिवीत ताच्या पुजन-किर्तनांत घालोवप, ही पद्दत भारतीय भक्तीमार्गाचें खाशेलपण. भक्तीमार्गांत कितल्योशोच देवता आसात. पूण विष्णु, शिव, सूर्य, गणपती आनी देवी हांची पुजा आनी भक्ती व्यापक प्रमाणांत जायत आसता. देवता आनी शक्त हांची ल्हव ल्हव उदरगत जायत गेली आनी ह्या विकासक्रमांत शक्तीक देवत्व प्राप्त जालें. हे शक्तीकूच तिच्या असामान्य तेजाक लागून 'देवी' हें नांव पडलें. अर्थात देवत्वाच्या दादल्या तत्त्वाक आनी बायल तत्त्वाक वेगळावपी ओळ बरीच अस्पश्ट आसा.

'दीव्यति इति देवी' अशी देवी शब्दाची व्युत्पत्ती सांगतात. 'खेळप' असोय 'दिव्' धातूचो अर्थ आसा. तेप्रमाण अनंत कोटी ब्रह्मांडाच्या सृश्ट - स्थिती - लय रुपाची क्रिडा देवी करीत आसता, असो अर्थ जातलो. हेर देवांप्रमाणूच परात्परशक्तीन भुतांच्या पालनाखातीर आनी दुश्टांच्या संहाराखातीर वेगवेगळे 'अंशावतार' धारण केले. धर्माचे दुस्मान आशिल्ल्या कितल्याशाच राकेस फुडाऱ्यांचो नाश करून देवीन देवांची आनी आपल्या भक्तांची राखण केली, अशें म्हण्टात. तिचे अवतार प्रसंगाप्रमाण सात्त्विक, राजस आनी तामस स्वरुपाचे आसात. तेप्रमाण तिचीं लोकीक नांवांय वेगवेगळीं दिश्टी पडटात. 'दूर्ग' नांवाच्या राकेसाक मारिल्ल्यान ती 'दुर्गा' जाली. 'महिषासुराक' मारून ती 'महिषासुरमर्दिनी' जाली. चंड - मुंडांचो वध केल्ल्यान तिका 'चामुंडा' हें नांव पडलें. ह्यो राकेसांच्या वधाच्यो काणयो मुखेल करून 'सप्तशती', 'देवी भागवत', 'ब्रह्मांडपुराण', 'ब्राह्मवैवर्त पुराण' ह्या पुराणग्रंथांनी आनी जायत्या तंत्र ग्रंथांत आयल्यात. देवीचें कार्यस्वरूप सामूहिक तेजाचें आसा.

मूळ देवीचो वास 'मणिद्वीपा'त आसा, थंय ती पांच देवतांच्या शींवासनाचेर विराजमान जाल्या, हे भुवनेश्वरीनूच स्वताच्यो कांय अंश - शक्ती तीन मुखेल देवांक दिल्यो, अशें देवी-भागवतांत सांगलां.

महासरस्वतींत सत्त्वाचें, महालक्ष्मींत रजसचें आनी महाकालीत तमसचें प्राबल्य आसता. ताका लागून देवीचे मुर्तींतूय फरक जाला. संप्रदायाप्रमाण सरस्वती हंसवाहक आशिल्ली. धवें लुगट न्हेशिल्ली आनी वीणा - पुस्तक धारण केल्ली आसा. महालक्ष्मी कमलासना, शंखचक्रगदा धारण केल्ली आसा. महाकाली श्मशानवासिनी, नरमुंडमाळो धारण केल्ली, हातांत खड्गशूल घेतिल्ली आनी क्रूर आसा. त्रिगुणांच्या सापेक्ष आविर्भावाक लागून संवसारांतल्या सगळ्या वस्तूंनी देवी साररुपान वास करीत आसता.

'सप्तशती'त तीन देवतांचीं ध्यानां दिल्यांत. सादारणपणान देवीच्यो मुर्ती भारतांत ह्याच स्वरुपाच्यो घडयतात.

पुराणांतल्या उल्लेखांवयल्यान देवी उपासनेचे दोन संप्रदाय स्पश्टपणान दिसतात. वैदिक आनी तंत्रीक. वैदिक संप्रदायाची उपासना ही दोन स्वरुपांची आसा : बाह्य आनी आंतर. बाह्य उपासना म्हळ्यार न्हाण, गंध, पुष्प हे उपचार करून पुजा; आंतर म्हळ्यार मानसिक पुजा, ध्यान आनी जप.

बाह्य उपासनेंत सगळ्यांत म्हत्वाचो भाग नवरात्रासारक्या व्रतांचो आसा. देवी भागवतांत नवरात्र होम, देवतेची पुजा, कुमारी पुजा ह्या विशयांचें सविस्तर वर्णन आयलां. वैदिक आंतर उपासनेंत गायत्री उपासना आसा. हें सगळें उपासनेचें स्वरूप सौम्य आसा. पूण बाह्य उपचारांत पशुवधाचें विधान कांय ग्रंथांनी सांपडटा. तें स्वरूप उग्र आसा.

तंत्रीक संप्रदायांत कुंडलिनी जागृत करून शक्ती आनी शिव हांचो एकचार सादप, हो खूब म्हत्वाचो भाग आस्पावला. चडशा सगळ्या तंत्रग्रंथांनी आनी सौंदर्यलहरी ह्या स्तोत्रग्रंथाचे टिकेंत हाची विस्कटावणी केल्ली दिश्टी पडटा. ही साधना खूबच सूक्ष्म आनी कश्टसाध्य आसा. हे कुंडलिनी साधनेचो प्रचार वैशणव, शाक्त, शैव आनी नाथ संप्रदाय तेचप्रमाण बौध्द संप्रदाय, जैन संप्रदाय, सिध्द पद्‌दत ह्या वैदिकेतर संप्रदायांतूच बरोच जाल्लो. हठयोगाच्या प्रवर्तकांनी कुडींत स चक्रां मानल्यांत. मूलाधार, स्वाधिश्ठान, मणिपूर, अनाहत, विशुद्धी आनी आज्ञा ह्या चक्रांनी देवी बीजरुपान वा भूततत्त्वरुपान अधिश्ठीत आसता. कुंडलिनी सुप्तावस्थेंत स्वाधिश्ठान चक्राचेर साडेतीन वेटोळीं करून रावता. ह्या साधनसंप्रदायाक 'कौल संप्रदाय' अशें म्हण्टात.

- डॉ. अनंत राम भट

**देवूळ :** देवाची मूर्त, लिंग वा प्रतीक हांच्या रुपान आशिल्ली देवाची सुवात म्हळ्यार देवूळ. म्हापुरसाच्या समाधींकूय देवूळ अशें म्हण्टात. गांवांतलो वेंचीक जागो वा जलाशय, दोंगर, धोली, झाड, कुंज, शिळा ह्यो सुवाती पवित्र मानून थंय देवळां बांदतात. मंत्रपूर्वक स्थलशुध्दी करतकच वास्तूकलेच्या नेमांक धरून त्या जाग्यार मुर्तीची स्थापणूक करतात. मुर्तीची विधिपूर्वक स्थापणूक करप, हें चड गरजेचें आसता.



प्राणप्रतिश्ठेउपरांत ते मुर्तीचेर हेर उपचार करतात. फांतोडेर भुपाळ्यो, कांकड आरत्यो म्हणून देवाक जागयतात आनी रातचें शेजारती म्हणून न्हिदयतात. फांतोडेर, दनपरां आनी सांजवेळार ताची पुजा करतात. देवाफुडें तेलाचो वा तुपाचो दिवो लायतात. देवीची खणा-नाल्लान होंट भरतात. कांय देवांफुडें बोकडो, कोंबो हांचो बळी दितात.

सिंधु संस्कृतायेंत पयलीं देवतांची पुजा जाताली. हिंदूंच्या देवळांचो आरंभ अग्निचयनापसून जालो आनी यज्ञसंस्थेचें रुपांतर देवळांत जालें.

कांय जमातींभितर देवळां नाशिल्लीं. चड करून हेडपी जमाती देवांचे माटव वा तंबू आपलेवांगडा घेवन भोंवताले. जेन्ना त्यो जमाती एका जाग्यार थिरावल्यो, तेन्ना तंबू, माटव वचून त्या जाग्यार देवळां आयलीं. व्हड मोलादीक मुर्तींखातीरूय देवळांची गरज पडपाक लागली.

पुजा, भजन, किर्तन, प्रवचन, धर्मीक ग्रंथांचें पारायण, चर्चासत्रां, धर्मसभा, उत्सव, जात्रा, कौल लावप, कसलेंय दिव्य करप, न्यायनिवाडो करप हांकां लागून देवळांक संस्कारकेंद्राचें तशेंच ज्ञानपिठांचें स्वरुप मेळिल्लें. पुण्यप्राप्ती, पापमुक्ती, आंगवण, कीर्त, हेर पंथांतल्या लोकांकडेन सर्त, ह्या हेतूंनी देवळां बांदप जातात. देवूळ बांदप वा ताचो जीर्णोध्दार करप हें हेर कर्मांतलें 'पूर्त' कर्म मानतात. देवूळ बांदपाचो विचार मनांत आयल्यार पंचमहापातकां नश्ट जातात, अशे उल्लेख पुराणांत मेळटात.

पयलीं संस्कृतीक आनी धर्मीक नदरेन गांवाचेर देवळाचेंच प्रभुत्व आसतालें. मनाक शांती दिवपी पवित्र सुवात म्हणून भाविक लोकांचे जिणेंत देवळांक म्हत्वाची सुवात आसता. ग्रीक, रोमन, बॅबिलोनियी, इजिप्तियी ह्या फुडारिल्ल्या संस्कृतायेंत लेगीत देवळांक म्हत्वाची सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं

**देवेगौडा, एच. डी. :** ( जल्म : १८ मे १९३३, हरदनहळ्ळी, कर्नाटक).

भारताचो माजी पंतप्रधान. ताचें पुराय नांव हरदनहळ्ळी दोड्डागौडा देवेगौडा. एका गरीब शेतकामत्याच्या घरांत ताचो जल्म जालो.



सादो आनी निगर्वी मनीस, शेतकामती. सिव्हिल इंजिनियरींगचो डिप्लोमा ताणें घेतलो. कांय तेप ठेकेदार म्हणून ताणें काम केलें.

तो कर्नाटकाच्या राजकारणांत नेटान वावुरलो. कर्नाटक राज्याचें मुखेलमंत्री पद ताणें सांबाळ्ळें. १९९६ चे सार्वत्रिक वेचणुकेंत राजकीय अस्थिरताय निर्माण जाली, तेन्ना राश्ट्रीय आघाडीन ताची फुडारी म्हणून निवड केली.

१ जून १९९६ ह्या दिसा भारताचो ११ वो पंतप्रधान म्हणून ताणें सोपूत घेतलो. केंद्रीय मंत्रीमंडळाचो कसलोच अणभव नासतना लेगीत

ताणें १ वर्सभर पंतप्रधान म्हणून बरो वावर केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**देशपांडे, दत्तात्रय आत्माराम :** (जल्म : २७ नोव्हेंबर १९२५, रामपूर – चिकोडी; मरण : २२ सप्टेंबर १९७०).

सुटकेझुजारी. ताणें एस्. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो संस्थापक वांगडी आशिल्लो. १९४२ – ४५ ह्या काळांत ताणें भारत छोडो चळवळींत वांटो घेतिल्लो. नेताजी सुभाषचंद्र बोस हाणें स्थापन केल्ल्या 'फॉरवर्ड ब्लॉक' संघटने खातीर तो बंगाल, बिहार आनी ओरिसा हांगा वावर करतालो (१९४६). उपरांत तो गोंयात आयलो आनी माध्यमिक शाळेंत शिकोवंक लागलो. १८ जून १९४६ ह्या दिसा डॉ. लोहियान सुरू केल्ले गोंयचे सुटके चळवळींत ताणें सक्रीय वांटो घेतिल्लो. एप्रिल १९४७ सावन ताणें विश्वनाथ लवंदे, नारायण नायक, प्रभाकर सिनारी, हांचे वांगडा आझाद गोमंतक दल संघटनेखातीर मोलादीक वावर केलो. म्हापसा आनी पर्वरी हांगा धाडसी क्रांतीकारी वावरांनी ताणें वांटो घेतिल्लो.

डिसेंबर १९४७ त पोलिसांनी ताका धरलो. १९४९त जेन्ना ताका प्रादेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो केलो तेन्ना हेर ६ वांगड्या सयत ताका आफ्रिकेक बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण मडगांव, पणजी, आग्वाद आनी रेईश मागुश हांगाचे बंदखणीत आसतना ताका पोर्तुगीज अधिकाऱ्यांच्या सुमाराभायर जाचांक तोंड दिवचें पडलें. बंदखणीतली अपमानाची वागणूक आनी खर जांच हांचे आड विरोध करपाक ताणें १६ दीस भूक हरताळ केलो. हाचेर उपाय काडूंक पुर्तुगीज अधिकाऱ्यांनी ताका पिसो थारायलो आनी दोतोराकडल्यान तसो दाखलो घेवन ताची रवानगी पोर्तुगालच्या 'मिंगेल बाँबार्डा' हॉस्पीटलांत केली (१९५३). फुडें गोंय स्वतंत्र जातकच ताची सुटका जाली. उपरांत गोंयात येवन ताणें पिडेस्तांखातीर तशेंच कामगारां खातीर वावर करूंक सुरवात केली.

मुरगांव बंदरात ताणें कामगार संघटना स्थापन केली आनी तांचेखातीर जायत्यो सुविधा मेळोवन दिल्यो. 'गोवा डॉक लेबर युनियन' चो तो अध्यक्ष आशिल्लो. मुरगाव पोर्ट ट्रस्टाच्या विश्वस्त मंडळाखातीरय ताणें काम केलां. ताणें इंडियन नॅशनल ट्रेड युनियनचो संचालक म्हूण तशेंच टॅक्सी संघटना आनी नवजिवन संस्थेचो अध्यक्ष म्हणूनय कांय तेंप काम केलें. २२ सप्टेंबर दिसा ताका मरण आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

**देशपांडे, पुरूषोत्तम लक्ष्मण :** (जल्म : ८ नोव्हेंबर १९१९ मुंबय).

मराठींतलो नामनेचो आनी वयल्या पांवड्यावयलो विनोदी बरोवपी, नाटककार, मराठी रंगमाचयेकडेन आनी चलचित्र सृश्टीकडेन नट, संगीतकार, पटकथालेखक, दिग्दर्शक ह्या नात्यान लागींचो संबंद आशिल्लो अश्टतासांचो कलाकार.

मुंबयंत एका मध्यम वर्गांतल्या कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. ताचें शिकप मुंबय आनी पुण्यांत एम. ए., एलएल. बी. मेरेन जालें. ताचो आजो वामन मंगेश दुभाषी उर्फ 'ऋग्वेदी' हो कवी आनी बरोवपी. संस्कृत आनी बंगाली भाशेचो ताका खूब अभ्यास आसलो. ताच्या साहित्यमोगाचे आनी विनोदबुद्दीचे संस्कार देशपांडेचेर भुरगेपणापसून जाले. फुडें नटवर्य चिंतामणराव कोल्हटकर आनी महाराष्ट्रांतले एक नामनेचे हार्मोनियमपटू दत्तोपंत राजोपाध्ये हांच्या सहवासांत तो नाट्य आनी संगीत ह्या मळांकडेन ओडलो.

अभिरुची ह्या म्हयनाळ्यांतल्यान १९४३ च्या सुमाराक ताणें बरोवपाक आरंभ केलो. तशेंच कांय म्हत्वाच्या मराठी म्हयनाळ्यांतल्यान ताचें लेखन उजवाडा येवपाक लागलें. अभिरूचींत १९४४त 'भय्या नागपूरकर' नांवाचें ताणें एक ल्हानशें व्यक्तीचित्र बरयलें. ताचेफाटल्यान ताणें बरयल्लीं जायतीं व्यक्तीचित्रां १९६२ वर्सा 'व्यक्ति आनी वल्ली' ह्या नांवान प्रसिद्ध जालीं. मराठी समाजांत, मुखेलपणान मध्यम वर्गांत, पळोवपाक मेळपी तरेतरेच्या मनशांचीं जिती प्रतिनिधीक चित्रां हातूंत पळोवपाक मेळटात. आपल्या सोयऱ्यांचीं, इश्टांचीं तशेंच वेगवेगळ्या मळार मेळिल्ल्या नामवंतांचीं ताणें काडिल्लीं शब्दचित्रां 'गणगोत' (१९६६) आनी 'गुण गाईन आवडी' (१९७५) ह्या पुस्तकांनी आसात.

'खोगीर भरती' (१९४६), 'नस्ती उठाठेव' (१९५२), 'बटाट्याची चाळ' (१९५८), 'गोळाबेरीज' (१९६०), 'असा मी असामी' (१९६४), आनी 'हसवणूक' (१९६८) हे ताच्या विनोदी लेखांचे संग्रह. मराठींतलीं श्रीपाद कृष्ण कोल्हटकरापसून, प्रल्हाद केशव अत्रे मेरेन चलत आयिल्ली विनोदाची परंपरा देशपांडे हाणें फुडें व्हेली आनी ती चड तरल, अभिरूचीसंपन्न, कलात्मक आनी आधुनीक केली. वेगवेगळ्या कारणांनी ताणें भायल्या देशांनी भोंवडी केली. थंय आयिल्ल्या नव्या अणभवांतल्यान ताणें 'अपूर्वाई' (१९६०), 'पूर्वरंग' (१९६५), 'जावे त्यांच्या देशा' (१९७४) हेसारकीं प्रवासवर्णनां बरयलीं. ल्हान भुरग्यांचे निरागस उमळशिकेन नवे देश आनी थंयचे नवे अणभव घेवपाची ताची नदर ह्या पुस्तकांतल्यान दिसता. शांतिनिकेतनांत बंगालीच्या अभ्यासाखातीर वचून येतकच बरयल्लें 'वंगचित्रे' (१९७४) हें पुस्तकय प्रवासवर्णनाचो एक बरो नमुनो.

'तुका म्हणे आता' हें संत तुकारामाचेर बरयल्लें पु. ल. देशपांडे हागेलें पयलें नाटक. तें रंगमाचयेर अपेसी थरलें. पूण रशियी नाटककार निकोलाय गोगोल हाच्या 'द इन्स्पॅक्टर जनरल' (इंग्लीश अणकार) हे नाट्यकृतीचें ताणें केल्लें 'अंमलदार' (१९५२) हें मराठी रुपांतर लोकप्रिय जालें. तातूंतली ताची अंमलदाराची भुमिकाय गाजली. ताचेफाटल्यान 'तुझे आहे तुजपाशी' ह्या नाटकान येसस्वी नाटककार म्हूणन ताचें आसन थीर केलें. हें नाटक दर एक रसिकाच्या काळजांत वचून बसलें.

'भाग्यवान' (१९५३), 'सुंदर मी होणार' (१९५८), 'ती फुलराणी' आनी 'तीन पैशांचा तमाशा' हीं ताचीं हेर नाटकां. हीं नाटकां मूळ इंग्लीश नाटकांचीं मराठी रुपांतरां आसलीं तरीय कथानकांची हाताळणी, संवाद हांतूंतल्यान ताचे स्वतंत्र प्रतिभेचो आनी शैलेचो प्रत्यय येता. सादे, सोबीत, मार्मिक संवाद हें ताच्या नाट्यलेखनाचें खाशेलपण. 'सारं कसं शांत शांत', 'छोटे मासे मोठे मासे', 'विठ्ठल तो आला आला', 'आम्ही लटिके ना बोलू' ह्या सारक्या एकांकींतल्यान हें बरें तरेन पळोवपाक मेळटा.

'वयम् मोठम् खोटम्' आनी 'नवे गोकुळ' हीं ताणें ल्हान भुरग्यांखातीर बरयल्लीं नाटकां. 'पुढारी पाहिजे' हें ताणें बरयल्लें नाटकय बरेंच प्रभावी जालें.

नाट्यक्षेत्रांतल्या येसाक लागून चित्रपटसृश्टींतय ताचो प्रवेश जालो. 'पुढचे पाऊल' ह्या महाराष्ट्रांत गाजिल्ल्या तमाशा चलचित्रांत ताणें मुखेल भुमिका केल्यात.

'गुळाचा गणपती' ह्या ताच्या नामनेच्या चलचित्राची कथा, संवादलेखन, दिग्दर्शन, संगीत दिग्दर्शन आनी मुखेल भुमिकाय ताणें केल्यात.

ताणें १९६१ उपरांत नोकरी करपाचें कायमचें सोडलें, आनी वेगवेगळ्या तरांच्यो नाट्यात्म कार्यावळी तो करपाक लागलो. 'बटाट्याची चाळ' असा मी असामी' ह्या दोन पुस्तकांचो ह्या संदर्भांत खाशेलो उल्लेख करूंक जाय. देशपांडे हाची वयल्या पांवड्याच्या अभिनय गुणाची वळख हातूंतल्यान जाता. देशपांडे हाची समाजीक रिणाची भावना ताच्या ल्हान-व्हड कृतींतल्यान दिश्टी पडटा. जायत्या संस्थांक तो अर्थीक आदार करीत आसा.

राश्ट्रीय आनी संस्कृतीक उपक्रमाचे उदरगतीखातीर 'पु. ल. देशपांडे प्रतिश्ठान' १९६५ त स्थापन केलें. पुण्याच्या बालगंधर्व नाट्य मंदिराचे उबारणेंत ताचो व्हड वांटो आसा. महाराष्ट्र राज्य साहित्य संस्कृति मंडळाचो तो वांगडी आसलो आनी राश्ट्रीय संगीत नाटक अकादेमीचो उपाध्यक्ष आनी साहित्य अकादमीचो वांगडी आसलो.

भारत सरकारान १९६६त 'पदमश्री' दिवन ताचो भौमान केलो. १९६७त ताका संगीत नाटक अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळो. १९६५त नांदेडांत जाल्ल्या मराठी नाट्य संमेलनाचो तो अध्यक्ष आसलो. १९७४त इचलकरंजींत जाल्ल्या सुवर्ण महोत्सवी मराठी साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्षपदाचो मान ताका मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**देशपांडे, मंगेश शणै :** गोंयांतलो पुर्विल्ल्या काळांतलो एक राजकारणी. ताचो घराबो मूळ कुठ्ठाळचो. तो कारकुनाचें काम करतालो. ताची हुशारकी पळोवन ताका खानापूरच्या देशकुळकर्ण्याची सनद दिली. तेन्नाच्यान मंगेश शणैक देशपांडे हें नांव मेळ्ळें आनी तेंच ताचें उपनांव जालें. तो खर स्वामीभक्त आशिल्लो.

घाटावयल्या कांय देसायांनी केंद्र सत्तेआड बंड केलें. पूण मंगेश शणै तांकां सामील जालोना. उरफाटें, बंड मोडून काडपाक ताणें सरकाराक आदार दिलो. ताका लागून बंडवाल्यांनी रातचो ताच्या दाराक उजो लायलो. पूण ते रातीक मंगेश शणै आनी ताचें कुटूंब घरांत नाशिल्लें देखून तीं वाटावलीं. ह्या घराण्याचे वंशज सद्या खानापूरांत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**देशपांडे, विनायक गणेश :** (जल्म : ११ जुलय १९२९, मोहोल, सोलापूर, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें मॅट्रिके मेरेन शिक्षण घेतलें. ३ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा बी. के. भडकमकर हाच्या फुडारपणाखाल १०५ सत्याग्रह्यांक घेवन पत्रादेवीक सत्याग्रह केलो. थंय तांकां पोलिसांनी केल्ल्या फारपेटाक तोंड दिवंचें पडलें. १९८५ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भौमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**देशपांडे, सुर्याजी राव :** (जल्म : १८३८).

हें घराणें मूळचें गोंयचें. पूण बाटाबाटीच्या काळांत स्थलांतरीत जावन तें चंदगडाक गेलें. सुमार अडेजशें वर्सांपयलीं परतून गोंयांत येतकच तें फोंड्यां स्थायीक जालें. फोंडें म्हाल पुर्तुगेजांकडेन वतकच, देशपांडे घराण्यांतल्या दादल्यांनी पुर्तुगेज सेनेंत अधिकारी म्हूण काम केलें. पूण लस्करी घराण्यांत जल्मल्ल्या सूर्याजीन मात लेखकाचो पेशा आपणायलो.

योगायोगान सुर्याजीची वळख भोव भाषाकोविद सरकारी दुभाशी - सखाराम कामत वाघ हाचेकडेन जाली. ताच्या सांगाताक लागून सूर्याजीक विंगडविंगड भाशा शिकपाची गोडी लागली. मराठी आनी पुर्तुगेज ह्या भाशांचेर, सूर्याजींचें बरेंच प्रभुत्व आशिल्लें. ताची विद्वत्ता मतींत घेवन, सरकारान ताका दुभाशी आनी लिसेंवाचो मराठी प्राध्यापक ह्या दोन पदांचेर नेमणूक केली. उपरांत लिसेंवाचो रेयतोर (Principal) म्हूण ताची नेमणूक जाली. ह्या पदाचेर नेमणूक जाल्लो सूर्याजी हो पयलोच हिंदू.

सखाराम कामत वाघ हाणें हातांत घेतिल्लें मराठी-पुर्तुगेज कोशाचें काम, ताच्या मरणा उपरांत सूर्याजीन पुराय केलें. ह्या कोशांत, मोल्सवर्थच्या कोशांतले ५४ हजार शब्द आनी गोंयांतल्या चलणुकेंतल्या शब्दांचो आस्पाव जाला. सरकारान ह्या कोशाचो पयलो वांटो उजवाडायल्लो. पूण दुसरो वांटो मात छापलोना.

सूर्याजीरावान व्याकरणाभाशेन ग्रंथ-लिखाण केलें तरी मराठी - पुर्तुगेज कोशकार म्हणुनूच ताची चड नामना आसा. गोंयांतलो एक विद्वान म्हूण पुर्तुगेज सरकार आनी विद्वानमंडळान ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देशप्रभु, वासुदेव आत्माराम :** (जल्म : २ नोव्हेंबर १९००, पेडणें; मरण : नोव्हेंबर १९६२).

नामनेचो इतिहासकार. पेडणेकार ह्या नांवान ताच्या घराण्याची नामना आशिल्ली. श्रीमंत रावराजे हें भोवमानाचें बिरूद आशिल्लें हें घराणें. घरचे घराच ताणें पांचवी-सवी मेरेन मराठी शिक्षण घेतलें. भुरगेपणासावनच ताका विज्ञान, भुगोल आनी इतिहास ह्या विशयांची गोडी आशिल्ली. 'लोकमान्य'चो संपादक आनी रामचंद्र नारायण मंडलीक हाचेकडेन ताणें इंग्लिशीचें शिक्षण घेतलें. उपरांत ताणें म्हापश्यां आनी पणजे लिसेंवाचें दोन वर्सांमेरेन शिक्षण घेतलें. पाश्कुआल जुआंव गोमीश ह्या नामनेच्या वकिलाकडेन कायद्याचो अभ्यास केलो. उपरांत तो पेडण्यां गेलो. थंय ताका विठ्ठल सदाशिव सुखटणकार हाचें शिक्षणीक मार्गदर्शन मेळ्ळें. ल्हानपणापसून ताका वाचनाची आवड आशिल्ली. तेन्नाच ताणें 'शिवदिग्विजय' हो इतिहास ग्रंथ वाचलो आनी ताची इतिहास ह्या विशयाची आवड वाडत गेली. देखून ताणें इतिहासाचो अभ्यास सुरू केलो. ताका नाणीं आनी वस्तू संग्रहीत करपाची आवड आशिल्ली. ताणें आंध्र भृत्य सातवाहनांपसून कदंब, यादव, होयसळ हांचेमेरेनच्या भांगर आनी हेर धातूंच्या पोरण्या नाण्यांचो संग्रह केल्लो. ताच्या वस्तु संग्रहांत मोहेंजोदडो संस्कृतायेंतल्या वस्तूंचो संग्रह आसा. पेडण्यां रवळनाथाच्या देवळालागसार उत्खननांत मेळिल्ल्यो कदंब काळांतल्यो दिवल्यां-स्टँड, चुनाळ, पण्टी आदी वेगवेगळ्यो धातूच्यो वस्तू आनी हेर जायत्यो वस्तू ह्या संग्रहांत आसात. नाणीं आनी वस्तू संग्रहावांगडाच ग्रंथ संग्रह, स्टॅम्पांचो संग्रह

करप, फोटयाचो संग्रह करप आनी शिकारीचो ताका छंद आशिल्लो. पेडण्यांत ताणें शीलोन्नती समाजाची स्थापना करून ताचेवतीन व्याख्यानमाळ, वाचपघर आदी गजाली घडोवन हाडल्यो. जायत्या शिक्षणीक संस्थांकडेन ताचो संबंद आशिल्लो. कांय वर्सां तो सरकार सल्लागार मंडळाचो वांगडी आशिल्लो. पुर्तुगेज हिंदूंच्या देवळांक 'पागोदि' हें उतर कुच्छित्रीपणान वापरताले, तें बदलून 'देवालय' हें उतर वापरपाचो कायदो ताचे सुचोवणेवयल्यान केल्लो.

ताणें बरोवपाक सुरवात केली ती डॉ. फ्रागोझु हाच्या Xivaji Com Sangue Portugues ह्या पुस्तकाक लागून. फ्रागोझु हाणें शिवाजीविशीं किद्यायकिदें विचार मांडिल्ले. ताका जाप दिवपाक ताणें 'शहाजी जिजाईच्या लग्नाचे परिणाम', हें पुस्तक मराठींतल्यान बरयलें. ताचें आनीक एक पुस्तक म्हळ्यार 'नागदेवाचा ताम्रपट'. हेंय पुस्तक इतिहास स्वरुपाचेंच आसा. ताचें भोंवडेवर्णनापर 'माझी आफ्रिकेची सफर' हेंय एक म्हत्वाचें पुस्तक.

ताणें वट्ट चार पुस्तकां बरयल्लीं. तेभायर कांय स्फूट लेखनय केलें. १९२०त 'भारत' ह्या साप्ताहिकांत ताणें पयलें बरप केल्लें. तेउपरांत ज्ञानमंदिर, पुरुषार्थ, शार्दूल आदी मासिकांनीय इतिहासाविशीं बरप केलें.

- कों. वि. सं. मं.

## देशमुख, गोपाळ हरी :

(जल्म : १८ फेब्रुवारी १८२३, पुणें; मरण : ९ ऑक्टोबर १८९२, मुंबय).

नामनेचो समाजसुदारक. ताका लोकहीतवादी ह्या नांवान वळखताले. ताचें मूळचें आडनांव सिध्देय. पूण ताच्या घराण्याक देशमुखीचें वतन मेळ्ळें आनी तेन्नाच्यान ताच्या घराण्याचें आडनांव देशमुख जालें. पिरायेच्या सातव्या वर्सा ताचें लग्न जालें. ताची बायल तेन्ना फकत चार वर्सांची आशिल्ली. पिरायेच्या १३ व्या वर्सा ताच्या बापायक मरण आयलें. तेन्नाच पेशवाईचो अस्त जाल्ल्यान ताच्या घराण्याक कठीण परिस्थिती आयिल्ली. ह्या घरगुती जिविताचांगडाच, तेन्नाचे समाजीक परिस्थितीचे ताच्या मनार खोल परिणाम जाले.

भुरगेपणांतूच ताणें शालेय शिक्षण घेता आसतना जायत्या धर्मीक ग्रंथांचो खोलायेन अभ्यास केल्लो. १८४४त ताचें शिक्षण पुराय जातकच ताका पुणेंच्या 'द एजंट फॉर सरदार्स ईन द डॅक्कन' कार्यालयांत अणकारपी म्हणून नोकरी मेळ्ळी. ह्या काळांत नोकरी सांबाळून भौशीक चळवळींनी आनी शिक्षणाविशीं वावरांत तो कार्यशील आशिल्लो.

फुडें ताणें जॉयंट जज्ज आनी सॅशन्स जज्ज म्हणूनय काम केलें. अहमदाबादेक धा वर्सां ताणें 'लघुवाद न्यायालयाचें' (Small Causes Court) मुखेल न्यायाधीशपद सांबाळ्ळें.

ताका मुळांतूच खर स्मरणशक्ती आनी बुद्धीमत्ता हांची देण आशिल्ली. समाजकारण, अर्थकारण तशेंच राजकारण आदी मळांचेर तो निपूण आशिल्लो. बालविवाह, सती, बोडकी जावप आदी रुढींचो तो सतत निशेध करतालो. बायल-दादलो समानतायेचो नवो विचार ताणें लोकांमुखार मांडलो. समाजांतल्यो राक्षसी रुढी काबार जालेबगर बायलांची समाजीक उदरगत जावप शक्य ना अशें ताचें मत आशिल्लें. इंग्लीश राजवटींतले पिळवणुकीकडेन ताणें समाजाचें लक्ष ओडून घेतिल्लें. परदेशी म्हालाविशीं ताका तिडक आशिल्ली. प्रारब्धवाद आनी अवतारवाद पयस करून लोकांनी प्रयत्नवादी आनी गिन्यानी जावंचें अशी ताची इत्सा आशिल्ली. कर्मकांडांत आनी अर्थ नाशिल्ली जीण जगपाक ताका तिडक येताली. समाजसुदारणे वांगडाच राज्यसुदारणा जावंची अशें ताचें ध्येय आशिल्लें. समाजाच्या दरेक आंगाविशी ताचे सुदारक विचार त्या त्या वेळार 'प्रभाकर' (सातोळें), 'इंदुप्रकाश' 'वृत्तवैभव' 'सुबोध पत्रिका' आनी नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक येताले. ताणें २५ व्या वर्सा लिखाणाक सुरवात केल्ली. आद्य निबंधकार म्हणूनय ताका वळखताले. फुडें 'प्रभाकर' सातोळ्यांतल्या ताच्या लेखांची 'शतपत्रे' ह्या नांवान नामना जाली. 'गीतातत्त्व' (१८७८), 'आश्वलायन गृह्यसूत्र' (१८८०) 'गुजरात देशाचा इतिहास' (१८८५), 'लंकेचा इतिहास' (१८८८), 'ग्रामरचना, त्यातील व्यवस्था आणि त्याची हल्लीची स्थिती' (१८८३), 'जातिभेद' (१८७७) 'लक्ष्मीज्ञान' आदी कांय नामनेचे ग्रंथ आसात. हातूंत 'लोकहितवादींची शतपत्रे, आनी 'निबंधसंग्रह' आदीक खुबूच म्हत्व आसा. ज्ञानप्रकाश आनी इंदूप्रकाश हीं पत्रां सुरू करपांत ताचो मोलादीक वांटो आसा. हाचेभायर पुण्याक 'नेटिव जनरल लायब्ररी' स्थापन करपांत, गुजरातांत शाळा, वाचनालय सुरू करपांत ताणें खूब कश्ट घेतल्यात. विधवा विवाहाक मान्यताय आनी प्रतिश्ठा मेळोवन दिवपाखातीर ताणें 'पुनर्विवाहोत्तेजक मंडळी' हे संस्थेची स्थापना करपांत हातभार लायिल्लो.

इ. स. १८७४त ताचो भोवमान करपाक मुंबय विद्यापिठान ताका फॅलोशिप दिली. इ. स. १८७७त दिल्ली दरबारा वेळार शासनान ताका रावबहादूर ही पदवी दिवन भोवमान केलो. इ. स. १८८० - ८२ ह्या काळांत तो मुंबय कायदो काउन्सिलाचो वांगडी आशिल्लो.

समाजांतली अंधश्रध्दा, रुढी, निश्क्रीयताय, दैववादी विचार, जातीभेद, धर्मीक कर्मकांड आदी प्रश्नांविशीं व्यापक विचार करून निर्भीडपणान आपले विचार समाजामुखार दवरपी तो पयलो लोकहितवादी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## देशमुख, चिंतामण द्वारकानाथ :

(जल्म : १४ जानेवारी १८९६ नाते, जि. कुलाबा).

भारताचो आदलो अर्थ मंत्री, श्रेश्ठ अर्थनीतिज्ञ आनी पयले श्रेणीचो प्रशासक. कायस्थ प्रभू घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताचो बापूय, द्वारकानाथ, वकील आशिल्लो.

देशमुखाचें मुळावें शिक्षण नाते ह्या गांवांतूच जालें. पिरायेच्या इकराव्या वर्सा ताणें पयली शिश्यवृत्ती मेळयली. १९१२ वर्सा मुंबयच्या 'आर्यन एज्युकेशन सोसायटी'चे माध्यमिक शाळेंतल्यान, तो मॅट्रिकेचे परिक्षेंत पयल्या क्रमांकान पास जालो. त्या वर्सासावन सुरू केल्ली जगन्नाथ शंकरशेट शिश्यवृत्ती मेळोवपाचो पयलो मान देशमुखाक फावो जालो. एलफिन्स्टन म्हाविद्यालयांतल्यान इंटराची परिक्षा पास जातकच तो इंग्लंडाक गेलो आनी केंब्रिजच्या 'जिझस म्हाविद्यालयांतल्यान बी. ए. पास जालो. भौतिकीच्या प्राध्यापकान दिल्ल्या वायट शेऱ्याक लागून ताणें तो विशय सोडून ताचेबदला वनस्पतविज्ञान हो विशय घेतलो आनी ह्या विशयाचें, विद्यापिठाचें इनाम मेळयलें. समाजीक कार्य ही ताची आवड आनी बागकाम हो ताचो छंद आशिल्लो. इंग्लंडांत आसतनाच तो रोझिना सिल्कॉक्स हे इंग्लीश चलयेवांगडा १९२० वर्सा पयले खेपे लग्न जालो.

ताका प्रिमरोझ नांवाची एक चली आसून ती इंग्लंडांतूच स्थायीक जाली. १९४९ वर्सा ताचे पयले बायलेक मरण आयिल्ल्यान १९५३ वर्सा तो नामनेची समाजसेविका आनी सर्वोच्च न्यायालयाची अधिवक्ती डॉ. दुर्गाबाई हिचेकडेन लग्न जालो.

१९१९ ते १९३० मेरेन ताणें पयलींच्या सँट्रल प्रॉविन्सीस आनी बेरार ह्या प्रांतांनी उपआयुक्त, अवर सचीव, सॅटलमँट ऑफिसर म्हणून काम केलें. दुसरे गोलमेज परिशदेक तो एक सचीव म्हणून हाजीर आशिल्लो. त्याच वेळार मालवीय, शास्त्री, सप्रू, जयकर, झाफरुल्लाखान, आंबेडकर, महात्मा गांधी ह्या फुडाऱ्यांकडेन ताचो संबंद आयलो. ताचे हुशार बुद्दीक लागून हे सगळे प्रभावीत जाले.

१९३२-३९ ह्या काळांत तो सँट्रल प्रॉव्हिन्सीस आनी बेरार ह्या प्रांतीक सरकारांत महसूल आनी वित्त खात्यांचो सचीव आशिल्लो. ह्याच काळांत ताणें शिक्षण खात्याचो संयुक्त सचीव, वित्त खात्याचो भलायकी आनी जमनीविशींचो खास कार्याधिकारी, शत्रुराश्ट्राचे मालमत्तेचो अभिरक्षक (एप्रिल-ऑक्टोबर १९३९) अशा विंगडविंगड नात्यांनी वावर केलो. १९३९-४१ रिझर्व्ह बँक ऑफ इंडियाच्या मध्यवर्ती मंडळाचो सचीव, १९४१-४३ उपअधिशासक (Deputy Governer), उपरांत १९४३-४९, पयलो भारतीय अधिशासक (Governer) जागतीक मुद्रा परिशदेक भारतीय प्रतिनिधी १९४४, आंतरराश्ट्रीय चलन निधी आनी संवसारीक बँक हांचेर भारताचो अधिशासक १९४६-४९, भारतीय सांख्यिकी संस्थेचो अध्यक्ष १९४५-६४, युरोप आनी अमेरिकेचो भारत सरकाराचो वित्त प्रतिनिधी १९४९-५०, नियोजन आयोगाचो वांगडी (१९५०-५६), आंतरराश्ट्रीय चलन निधी आनी संवसारीक बँक हांचो अध्यक्ष १९५०, अशे तरेच्यो विंगड विंगड म्हत्वाच्यो जापसालदारक्यो ताणें सांबाळ्ळ्यो.

१९५०-५६ ह्या काळांत तो भारत सरकाराचो अर्थ मंत्री आशिल्लो. ह्या पदाचेर आसतना ताणें 'इंपेरियल बँके'चें राश्ट्रीयीकरण', 'राश्ट्रीय विकास परिशदेची' (National Development Council) स्थापणूक, 'आयुर्विमा उद्देगाचें राश्ट्रीयीकरण' हें ताचें सगळ्यांत म्हत्वाचें काम मानतात.

१९५६ वर्सा, संयुक्त महाराष्ट्र चळवळीच्या समर्थनार्थ ताणें मंत्रीपदाक सगळ्यांत पयलीं सोडचीट दिली. उपरांत १९५६-६१ 'विद्यापीठ अनुदान आयोगा'चो अध्यक्ष आनी १९५७-६० 'राश्ट्रीय ग्रंथ संस्थे'चो अध्यक्ष म्हणून ताणें काम केलें. १९५२ वर्सा, केंब्रिजच्या जिझस म्हाविद्यालयाचो मानेस्त अधिश्ठान म्हणून ताचो भोवमान जालो. १९६०-६३, हैदराबादच्या भारत सरकाराच्या प्रशासकीय म्हाविद्यालयाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. तशेंच, १९५९ वर्सासावन तो नवी दिल्लीच्या इंडिया इंटरनॅशनल सँटराचो अध्यक्ष आशिल्लो. १९६२-६७ ह्या काळांत तो दिल्ली विद्यापिठाचो कुलगुरू, १९६५-७० मेरेन संयुक्त राश्ट्रांच्या प्रशिक्षण आनी संशोधन संस्थेच्या विश्वस्त मंडळाचो वांगडी आनी उपरांत १९६६-७० उपाध्यक्ष, १९६७-१९६८ मेरेन भारत सरकाराच्या 'केंद्रीय संस्कृत मंडळा'चो अध्यक्ष, तशेंच १९६५ सावन 'भारतीय अर्थीक विकास संस्था', 'समाजीक विकास परिशद' (Council for Social Development) १९६६, भारतीय लोकसंख्या परिशद (Population Council of India) १९७०, अशीं अध्यक्षपदांय ताणें सांबाळ्ळीं.

१९४४ वर्सा ताणें कालिदासाच्या 'मेघदूता'चो मराठींत श्लोकबद्ध अणकार केला. तशेंच मद्रास विद्यापिठांत ताणें दिल्लीं तीन व्याख्यानां 'सिटिझन्स ऑफ नो मीन कण्ट्री' ह्या नांवान, ग्रंथाच्या रुपांत उजवाडा आयल्यांत. विंगड विंगड विद्यापिठांच्या दीक्षान्त सुवाळ्यां वेळार ताणें केल्लीं भाशणां (१९५६-६१) 'इन द पोर्टल्स ऑफ इंडियन युनिव्हर्सिटी' आनी 'ऑन द थ्रॅशोल्ड ऑफ इंडियास सिटिजनहूड' ह्या नांवान पुस्तक रुपान उजवाडा आयल्यांत. महात्मा गांधीचीं सुमार शंबर वचनां 'गांधी सूक्तिमुक्तावलि' ह्या नांवान ताणें संस्कृतांत श्लोकबद्ध केल्यांत. 'द कोर्स ऑफ माय लायफ' (१९७४) ह्या नांवान ताणें आपली आपजीण बरयल्या.

१९५९ वर्सा ताका रॅमन मॅगसेसे पुरस्कार मेळ्ळो. लॅस्टर (इंग्लंड), प्रिन्स्टन (अमेरिका), म्हैसूर आनी उस्मानिया विद्यापिठांनी ताका एल.एल.डी. ही भोवमानाची पदवी दिली जाल्यार कलकत्ता विद्यापिठान डी.एस.सी. ही पदवी ताका भेटयली. अन्नमलाई, अलाहाबाद, नागपूर, पंजाब, पुणें ह्या विद्यापिठांनी डी.लीट. ही पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो. १९७५ वर्सा भारत सरकारचो 'पद्मविभूषण' हो पुरस्कार ताका फावो जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**देशमुख, बाबुराव उर्फ बबनराव वाल्मीकराव :** (जल्म : २४ जून १९१९, चाळीसगांव, जळगांव).

सुटकेझुजारी. १९४२ तले चळवळींत आनी हैदराबादाचे सुटके चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा देवराम पाटील हाच्या फुडारपणाखाला जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तो 'महाराष्ट्र कुस्तीगीर परिशद' (पुणें) चो वांगडी आशिल्लो, तेचपरी चाळीसगांव तालुका कुस्तीगीर संघाचो चिटणीस आशिल्लो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देशमुख, वामनराव रामराव :** (जल्म : १० ऑक्टोबर १९२२, परळी वैजनाथ, बीड, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें मॅट्रिकेमेरेन शिक्षण घेतलें. १९४२-४८ ह्या काळांत हैदराबाद राज्य कॉंग्रेस १९४८-६० ह्या काळांत पॅझंट्स ॲण्ड वर्कस पार्टी आनी १९६० सावन तो 'इंडियन नॅशनल कॉंग्रेस' समितीचो वांगडी आशिल्लो. १४ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा ५० सत्याग्रह्यांचो पंगड घेवन ताणें आरोंदेच्यान गोंयची शीम हुपली. उपरांत दुसऱ्या दिसा हरमला पेडण्यां ताणीं सत्याग्रह केलो. त्यावेळार पुर्तुगेज पोलिसांनी केल्ल्या लाठीहल्ल्याक तांकां तोंड दिवंचें पडलें. उपरांत तांकां धरून आरोंदें न्हंयेत उडयले. थंयच्यान पेंवून ते भारतीय शिमेर गेले.

उपरांतच्या काळांत तो हैदराबाद विधानसभेचो वांगडी म्हणून वेंचून आयलो. फुडें १९५२-५७ ह्या काळांत तो मुंबय विधानसभेचो वांगडी जालो. १९८७ ह्या वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देशस्थ ब्राह्मण :** ब्राह्मणांची एक पोटजात. पंच द्रविड ब्राह्मणांत हांचो आस्पाव जाता. देशस्थ म्हळ्यार देशाचेर वशिल्ले. पूण सद्या

महाराष्ट्रांत तेभायर कर्नाटक, केरळ, तमीळनाड, आंध्र प्रदेश आदी वाठारांतूच तांची जायती वसती आसा. देशस्थांमदीं ऋग्वेदी आनी शुक्ल यजुर्वेदी अशे दोन मुखेल भेद आसात. ऋग्वेदी हे शाक्ल फांट्याचे, जाल्यार यजुर्वेदी ब्राह्मणांमदीं माध्यंदिन आनी काण्व अशो उपशाखा आसात.

**इतिहास :** हे लोक आर्य वंशाचे आशिल्ल्यान उत्तर भारतांतल्यान केन्ना तरी येवन महाराष्ट्रांत स्थायीक जाले आसूंक जाय. हातूंत देशस्थ ऋग्वेदी ब्राह्मण हे आदीं आयले. तांची महाराष्ट्रांतली वसणूक भारतीय झुजाआदीं जाली अशें समजप जाता. भारतीय झुजाउपरांत यजुर्वेदाचे शुक्ल आनी कृष्ण अशे दोन वांटे जाले. शुक्ल यजुर्वेदाचो प्रणेतो याज्ञवल्क्य हाका राजाश्रय मेळ्ळो. पूण कृष्ण यजुर्वेदी ब्राह्मणाक तो मेळ्ळो ना. देखून तांकां दक्षिणेकडेन वचचें पडलें अशें म्हण्टात. तांचीं सगळीं सुत्रां दक्षिणेंतच बरयल्लीं.

देशस्थ ऋग्वेदी ब्राह्मणांमदीं अगस्थ, अंगिरस, अत्री, कपी, कश्यप, कौशिक, गौतम, जामदग्न्य, भारद्वाज, वसिष्ठ, शांडिल्य आदी ५२ गोत्रां आसात. शुक्ल यजुर्वेदी माध्यंदिन फांट्याचीं १३० गोत्रां आसात. तांचेमदीं उपनांवां जायतीं आसात. पूण चड करून जोशी, कुलकर्णी, देशपांडे हीं वेवसाय दाखोवपी आनी अधिकारदर्शक आसात. कांय उपनांवां तांच्या गांवावयल्यान पडल्यांत.

देशस्थ ब्राह्मणांमदीं स्मार्त आनी वैष्णव अशे दोन मुखेल पंथ आसात. स्मार्त लोक शंकराचार्याचे अनुयायी आसून ताणीं स्थापिल्ल्या मठांतल्या करवीर आनी संकेश्वरच्या मठांक ते मानतात. शुक्ल यजुर्वेदी माध्यंदिन ब्राह्मण शृंगेरी पिठाक मानतात. वैष्णवपंथी देशस्थ ब्राह्मण मध्याचार्याचे शिश्य आसात.

शिव, विष्णु, राम, व्यंकटेश, नृसिंह, कोल्हापूरची महालक्ष्मी, माहूरची रेणुका, सप्तशृंगी, चतुःशृंगी, यमाई, भवानी, मारुती, शाकंभरी, खंडोबा, ज्योतिबा, एकवीरा, मुंजाबा, कातोबा, जानाई, जोखाई, तुकाई, नागोबा, कामाक्षी, म्हाळसा, बोल्हाई, भगवती, मांगोबा, म्हसोबा, वाघजाई, सटवाई, साती आसरा आदी जायतीं दैवतां आनी ग्रामदेवता हीं देशस्थ ब्राह्मणांचीं कुलदैवतां आसात. हातूंत देवीक मुखेल सुवात आसा. चडशा घराण्यांनी खंयची तरी एक देवी कुलदैवत म्हणून मानतात. लग्न, मूज आदी सुवाळ्यां वेळार ही देवी जंय आसा थंय वचून तिका आमंत्रण दिवपाची आनी उपरांत तिच्या दर्शनाक वचपाची प्रथा तांचेमदीं आसा. हे देवीचो कूळधर्म, अश्टम, चतुर्दस वा पुनव हे तिथींक करतात.

कांय घराण्यांनी देवीचो बढण नांवाचो एक कूळधर्म दिश्टी पडटा. तेचपरी जायत्या घराण्यांनी कूळधर्म म्हणून देवीचो जोगवा मागपाची चाल आसा. भाद्रपदांतल्या ज्येश्ठा गौरीचो उत्सव हे लोक मोट्या थाटान मनयतात. आश्विनांतले वद्य अश्टमीक तांदळाचें चक्र करून तातूंत कुलदेवतेची पुजा करपाची चाल कांय घराण्यांनी आसा. हे पुजेक चक्रपुजा म्हण्टात. माघ वद्य चतुर्दशीक महाशिवरात्रे निमतान उपास आनी म्हादेवाक अभिशेक करपाची चाल तांचेमदीं आसा.

देशस्थ ब्राह्मणांमदीं कुलशिलाचो विचार करून लग्न संबंद निश्चीत जातकच पयलीं सीमांतपुजन करतात. तातूंत न्हवरो व्हंकलेगेर वतकच ताचो सत्कार करतात. उपरांत लग्नाचो संकल्प करून गणपतीपुजन, कुलदेवतापुजन, मातृकापुजन, ग्रहमख, पुण्याहवचन, वाङ्निश्चय, मधुपर्क आदी विधी करतात. उपरांत कन्यादान, लाजाहोम, सप्तपदी आदी मुखेल विधी जातकच ऐरिणीदान, वरात, लक्ष्मीपूजन आदी कार्यक्रम जावन लग्न पुराय जाता.

पुरयतपण आनी भिक्षुकी हे तांचे मूळचे मुखेल वेवसाय आसले तरी ते शेती, सावकारी, सराफी, आदी उद्देगय करतात.

इतिहासकाळांत ह्या लोकांमदीं जायते धर्मप्रचारक, संत, राजपुरयत, पंडीत, कवी, मुत्सद्दी आनी सेनापती जावन गेले. भवभूती, हेमाद्री, नागोजीभट्ट, कमलाकरभट्ट, गागाभट्ट आदी पंडीत, मुकुंदराज, मुक्तेश्वर, श्रीधर, महीपती, वामनपंडित, रघुनाथ पंडित, राम जोशी आदी कवी; भास्कराचार्य, गणेश दैवज्ञ, जगन्नाथ जोशी आदी ज्योतीशशास्त्रज्ञ; ज्ञानेश्वर, एकनाथ, रामदास, मध्वमुनीश्वर, जनार्दनस्वामी, दासोपंत, नृसिंहसरस्वती, मोरया गोसावी, चांगदेव, विसोबा खेचर आदी संत हे देशस्थ ब्राह्मण आशिल्ले. यादवांचो सेनापती खोलेश्वर, कुतुबशाहींतलो अकण्णा आनी मादण्ण दादोजी कोंडदेव, मोरोपंत पिंगळे, रामशास्त्री प्रभुणे, सखाराम बापू बोकील, तात्या टोपे आदी वीर पुरूश आनी मुत्सद्दी हे देशस्थ ब्राह्मणांतले. तांचे उपरांत अक्कलकोटचो स्वामी, गोंदवलेकर महाराज, कवी चंद्रशेखर, बालकवी, राजहंस (बालगंधर्व), कृष्णराव फुलंब्रीकर, आबासाहेब मुजुमदार आदी जायते देशस्थ ब्राह्मण वेगवेगळ्या मळार नामनेक पावले.

वेदीक धर्माचो अभिमान, वर्णाश्रमधर्माक पाळो, पारमार्थिक शिकवण, वेदान्त, न्याय, ज्योतीश, व्याकरण आदी शास्त्रांचो खोल अभ्यास करून देशस्थ ब्राह्मणांनी बरीच ग्रंथरचना केल्या.

– कों. वि. सं. मं.

## देसाई, गोविंद नारायण प्रभू :

(जल्म : लोलयें – काणकोण; मरण : ३१ डिसेंबर १९३१ – काणकोण).

सुटकेझुजारी. सर्गेस्त पिटर आल्वारीश आनी सिंधू देशपांडे हांचेकडल्यान स्फूर्त घेवन ताणें गोंयचे सुटके चळवळींत वांटो घेवंक सुरवात केली. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा ताणें णव सत्याग्रह्यांचो पंगड घेवन लोलयां सत्याग्रह केलो. तेन्ना पोलिसांनी ताका खूब मार दिलो आनी माशें पोलीस ठाण्याचेर व्हेलो. थंयच्यान ताका पणजी पोलीस ठाण्यार व्हरून उपरांत ताची रवानगी आल्तिनावयले बंदखणींत केली. ६ जून १९५५ ह्या दिसा लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका चार वर्सां खर बंदखण, दोन वर्सांचो दंड ही ख्यास्त फर्मायली. तेचपरी १५ वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. फुडें १९५९, वर्सा रेइश मागूश बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. गोंयचे सुटके उपरांत तो लोलयें ग्रामपंचायतीचो सरपंच आशिल्लो.

भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. ताच्या मरणाउपरांत गोंय सुटकेचे रुप्या उत्सव समितीन काणकोणां ताचो मरणोत्तर भोवमान केला. लोलयें पंचायत ऑफिसाकडेन ताचो अर्दपुतळो स्थापन केला. १८ जून १९८९ ह्या दिसा गोंय सरकारान ताचो मरणोत्तर भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

## देसाई, दत्तलाल भगवानदास :

(जल्म : ३ जानेवारी १९३५, औरंगाबाद, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी माध्यमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. २५ जुलय १९५५ ह्या दिसा मधु लिमये हाच्या फुडारपणाखाल पेडण्यां जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरून खूब मार दिलो. १९८७ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**देसाई, दिनकर :** (जल्म : १० सप्टेंबर १९०९, अंकोला, उत्तर कन्नड जिल्हो; मरण : ६ नोव्हेंबर, १९८२).

कोंकणी आनी कन्नड लेखक. होंडदक्कल तालुक्यांतलो होंडदक्कल हो ताचो मूळ गांव. ताचो बापूय दत्तात्रेय सांब देसाय प्राथमिक शिक्षक आशिल्लो. ताचे बायलेचें नांव इंदिरा. १९३८ वर्सा तो रजिस्टर पद्दतीन लग्न जालो.

ताचें मुळावें शिक्षण अलगेरीक जालें. उपरांत माध्यमिक शिक्षण ताणें अंकोला आनी कारवाराक पूर्ण करतकच इंटरमिडिएट शिक्षण बेंगळूराक घेतलें. ताचें पदवी शिक्षण म्हैसूर आनी मुंबय जालें. इतिहास हो विशय घेवन तो बी.ए. पयल्या नंबरान पास जालो. उपरांत १९३३ वर्सा होच विशय घेवन एम्.ए. आनी १९३४ वर्सा तो एल्.एल्.बी. परिक्षा पास जालो.

उपरांत तो भारतसेवक समाज हे (Servants of India Society) संस्थेचो वांगडी जालो. थंय ताका एम्. एन्. जोशी आनी ठक्करबाप्पा हांचें मार्गदर्शन मेळ्ळें. एम्. एन्. जोशी हाचे सुचोवणेप्रमाण गोकाकाक (कर्नाटक) चलिल्ल्या गिरण कामगार संपाचें मुखेलपण घेवन ताणें संप येसस्वी करून दाखयलो. ताणें मुंबय बोट कामगारांची संस्था स्थापन केली आनी तिचो सचीव जालो. उपरांत कामगार चळवळींतल्यान निवृत्त जाय मेरेन हे संस्थेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. मुंबय रावन कामगार संघटणेचो ताणें बरोच वावर केलो. देश-विदेशांतल्या कामगार संघटनांवांगडा संपर्क करून, परिशदांक हाजीर रावन ताणें खूब नामना जोडली. गांधींच्या विचारांनी प्रेरीत जावन ताणें सादेपणान रावप आपणायलें.

१९४८ ते १९६१ मेरेन तो मुंबय म्हानगरपालिकेचो वांगडी आशिल्लो. कॉँग्रेस पक्षांतल्यान भायर येवन तो समाजवादी पक्षांत सामील जालो. मुंबय पोर्ट ट्रस्टाचो धर्मदर्शी म्हणून ताणें १० वर्सां वावर केला. तशेंच उत्तर कन्नड जिल्ह्यांत मूंडकारांवटेन रावन, भाटकारांआड ताणें रैत संघटना उबारली आनी रैतांक येस मेळोवन दिलें.

उत्तर कन्नड जिल्ह्याच्या गरीब भुरग्यांची शिक्षणाची सोय जावंची म्हणून १९५३ वर्सां कॅनरा वॅल्फेर ट्रस्ट उबो केलो. त्या जिल्ह्यांतल्या णव तालुक्यांनी मुळावें, माध्यमिक आनी पदवी मेरेनच्या शिक्षणाची सोय केली. १९६७ वर्सा तो उत्तर कन्नड जिल्ह्यांचो लोकसभा वांगडी आशिल्लो.

१९७२ मेरेन ताणें 'जनसेवक' नांवाचें कन्नड सातोळें चलयलें. ह्या सातोळ्यांत ताणें 'चुटुकु' ह्या नांवांन राजकारणाचेर आनी समाजकारणाचेर उपहास केल्ल्यो कविता बरयल्यो; तशेंच अग्रलेख आनी हेर बरपावळ केली.

ताचे उजवाडाक आयिल्ले कवितां – झेले अशे आसात – 'कवनसंग्रह' (१९५०), 'मक्कळ गीतेगळु' (१९५६), 'ह गोंचलु' (१९५८), 'मक्कळ पद्य' (१९७६), 'दिनकरन चौपदी' (१९७८), 'दासाळ' (१९८३). ताचे इंग्लीश संशोधन ग्रंथ अशे आसात – 'The Mahamandaleshwaras under the Chalukyas of Kalyani' (१९५१), 'Primary Education in India' (१९६२), ताचें 'कोंकणी कवनां' (१९८१) पुस्तक रुपान उजवाडाक आयलां.

ताच्या 'मक्कळ गीतेगळु', 'कवन संग्रह' ह्या कन्नड गितां-झेल्यांक १९५६ वर्सा मुंबय सरकाराचें इनाम फावो जालें. १९७२ वर्सा ताका कर्नाटक साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळो. १९७५ वर्सा कर्नाटक विद्यापिठान डॉक्टरेट दिवन ताचो भोवमान केलो. ताच्या 'दिनकरन चौपदी' चुटुकु झेल्याक १९८० वर्सा साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळो. तशेंच ह्या वर्सा ताका गोकर्ण-पर्तगाळ मठाचो 'विद्याधिराज' पुरस्कार फावो जालो.

– एस्. एम्. कृष्णाराव

**देसाई, भुलाभाई :** (जल्म : १३ ऑक्टोबर १८७७, बलसाड; मरण : ६ मे १९४६, मुंबय).

भारतांतलो एक नामनेचो विधिज्ञ आनी राश्ट्रीय फुडारी. ताच्या बापायचें नांव जीवनजी. तो सरकारी वकील आशिल्लो. ताची आवय रमाबाय ही धर्मीक वृत्तीची आशिल्ली. भुलाभाईचें मुळावें शिक्षण बलसाडाक जालें. १८९५ त तो मॅट्रीक जालो. फुडें १९०१त ताणें एलफिन्स्टन म्हाविद्यालयांतल्यान एम्.ए.ची पदवी घेतली. रोखडीच ताका अहमदाबादच्या गुजरात म्हाविद्यालयांत प्राध्यापकाची नोकरी मेळ्ळी. १८८२त तो शिकता आसतनाच इच्छबेन नांवाचे चलयेकडेन ताचें लग्न जालें. ताका धिरूभाई नांवाचो एकूच चलो जालो.

अहमदाबादेक आसतना भुलाभाई हाणें एल. एल.बी.चें शिक्षण घेतलें. १९०५त ताणें उच्च न्यायालयाची वकिली परिक्षा दिली. रोखडोच ताणें वकिली वेवसाय सुरू केलो आनी थोड्याच काळाभितर एक हुशार वकील म्हणून नांव मेळयलें. फुडें मुंबय राज्यांत तो ॲडवोकेट जनरल जालो.

होम रूल लिगाचे चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. म. गांधीच्या असहकार चळवळीचो ताचेर बरोच परिणाम जालो. १९२५त ताणें ब्रूमफिल्ड समिती मुखार बार्डोलीच्या शेतकारांवतीन बाजू मांडली. १९३२त ताका कायदेभंगाचे चळवळींत वांटो घेतिल्लेखातीर एक वर्स ख्यास्त आनी १०,००० रुपया दंड भरचो पडलो.

बंदखणींतल्यान सुटका जातकच तो वकिलीच्या कांय कामानिमतान इंग्लंडाक गेलो. थंयसावन परत येतकच ताणें कॉँग्रेसीचे वतीन पार्लमॅंटरी बॉर्ड स्थापपाचो यत्न केलो. सुर्वेक तो ह्या बोर्डाचो सचीव आशिल्लो, फुडें अध्यक्ष जालो. मध्यवर्ती कायदे मंडळांत तो गुजरातांतल्यान वेंचून आयलो आनी विरोधी पक्षाचो फुडारी जालो. कॉँग्रेस वर्किंग कमिटीचो कांय वर्सां तो वांगडी आशिल्लो. दुसरें म्हाझूज सोंपतकच आझाद हिंद सेनेच्या फुडाऱ्यांचेर दिल्लींतल्या लाल किल्ल्याचेर जे खटले चलताले ते भुलाभाई हाणेंच हाताळ्ळे आनी तातूंत ताका येसूय मेळ्ळें. लियाकत अली हाचेवांगडा जातीय प्रस्नांविशीं करार केल्लो. हो करार चालींत आयलोना. कॉँग्रेस वर्किंग कमिटीन भुलाभाईचेर गांधीजीचो विचार घेना आसतना हो करार केलो असो आरोप दवरलो. फुडें हंगामी मंत्रिमंडळांत ताचो आस्पाव

केलोना. फुडें ताची भलायली इबाडली आनी ताका मुंबय मरण आयलें.

इंग्लीशीवयलें ताचें प्रभुत्व, अस्खलित वक्तृत्व आनी वकिलीक अशिलाची बाजू मांडपाची कला हेखातीर ताची नामना आशिल्ली.

– कों. वि. सं. मं.

**देसाई, महादेव हरिभाई :** (जल्म : १ जानेवारी १८९२, सरस, सुरत, गुजरात; मरण : १५ ऑगस्ट १९४२, पुणे).

महात्मा गांधीचो सहाय्यक आनी एक निश्ठावान गांधीवादी कार्यकर्तो. शाळेंत शिकोवपी शिक्षक हरिभाई हो ताचो बापूय आनी जमनाबेन ही आवय. तो सात वर्सां पिरायेचो आसतनाच ताचे आवयक मरण आयलें. ताचो बापूय फुडें अहमदाबादेच्या बायलांच्या प्रशिक्षण म्हाविद्यालयाचो प्राचार्य जाल्लो.

रामायण, महाभारत, उपनिषद आनी गुजराती साहित्याचो ताणें अभ्यास केलो. आपल्या बापायचे विचार आनी पोरणी धर्मीक वृत्ती हांचो महादेवभाईचेर प्रभाव पडिल्लो. १९०६त सुरतेक मॅट्रीक जातकच तो मुंबय गेलो आनी जायत्यो शिश्यवृत्त्यो मेळोवन १९१०त तो बी.ए. जालो. १९१३त ताणें एल्. एल्. बी.ची पदवी मेळयली.

१९०५त तो दुर्गाबेन हे चलयेवांगडा लग्न जालो. कांय वर्सां ताणें वकिलीचो वेवसाय केलो. पूण तातूंत ताका जाय तशें येस मेळ्ळेंना. तेन्ना ताणें एके सहकारी बँकेंत नोकरी धरली. पूण हे नोकरेंतय ताचें मन लागलेंना. तेन्ना ती सोडून तो गांधीजीच्या सहवासांत आयलो. अखेरमेरेन ताणें गांधीवांगडा सचीव आनी ताचो लागसल्लो वांगडी म्हणून वावर केलो. चंपारण्य सत्याग्रह (१९१७), बार्डोली सत्याग्रह (१९२८), मिठाचो सत्याग्रह (१९३०) सारक्या सत्याग्रहांनी ताणें वांटो घेतिल्लो. १९४२ च्या भारत छोडो आंदोलनांत गांधीजी वांगडा ताकाय बंदखण भोगची पडली.

महादेवभाई साहित्यिक आनी पत्रकारूय आशिल्लो. ताणें इंडिपेंडँट, यंग इंडिया, हरिजन, नव जीवन सारक्या नेमाळ्यांतल्यान जायते लेख बरयल्यात. लॉर्ड मोर्ले हाच्या 'ऑन कॉम्प्रोमायज' आनी टागोर हाच्या 'चित्रांगद' ह्या ग्रंथांचो ताणें गुजराती भाशेंत अणकार केलो. ऑन कॉम्प्रोमायज ह्या ग्रंथाखातीर ताका १००० रुपयांचें इनाम मेळ्ळें. ह्याच काळांत ताणें मराठी, बंगाली, इंग्लीश, हिंदी आनी गुजराती ह्या भाशांतल्या साहित्याचें वाचन केलें. ताणें 'विथ गांधी इन सीलोन' (१९२८), 'द स्टोरी ऑफ बार्डोली' (१९२९), 'इक्लिप्स ऑफ फेथ' (१९२९), द नेशन्स वॉयस (१९३२), द एपिक ऑफ त्रावणकोर (१९३७), हीं इंग्लीश पुस्तकां बरयल्यांत. ताच्या 'खेती नि जमीन' (१९४२), 'वीर वल्लभभाई', 'खुदाई खिदमतगार', 'एक धर्मयुध्द' सारक्या गुजराती पुस्तकांची नामना आसा. बारावे गुजराती वृत्तपत्र परिशदेचो तो अध्यक्ष आसलो. वेरिअर एल्विन ताका 'बापूज्‌ बॉस्वेल' म्हण्टालो. ताच्या लिखाणांतल्यान गांधीवादी तत्त्वगिन्यान आनी ताचें समर्थन चड दिश्टी पडटा. कसलीच मानाची, किर्तीची आस मनांत दवरिनासतना ताणें गांधीजीवांगडा एकनिश्ठेन सेवा केली. १९४२त आगाखान राजवाड्यांत बंदखणींत आसतना ताका काळजाचो आताक येवन मरण आयलें. ताची 'दीसपटी' उपरांत आठ खंडांनी उजवाडाक आयली.

– कों. वि. सं. मं.

**देसाई, मधुकर बाळसो नायक :** (जल्म : १५ मार्च १९३४, कुंकळ्ळी – साश्ट).

सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५३ वर्सा सावन पत्रकां वाटप, वण्टी पत्रकां लावप, राश्ट्रीय दिसा तिरंगी बावटो लावप, आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या माजाळे कँपांतल्या मुखेल्याक पुर्तुगेज सरकाराविशीं गुपीत बातम्यो कळोवप असलो राश्ट्रीय वावर तो करतालो. तेखातीर १६ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत घालो. फुडें मार्च १९५७ त बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**देसाई, मोरारजी रणछोडजी :** (जल्म : २९ फेब्रुवारी १८९६, भदेली – सुरत, मरण : ९ एप्रिल १९९५, मुंबय).

भारताचो चवथो प्रधानमंत्री. ताची आवय मणिबेन ही निरक्षर आनी बापूय प्राथमिक शिक्षक आशिल्लो. ताचें मुळावें शिक्षण बलसाडाक जालें.



तो १५ वर्सांचो आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयलें. घराब्यांत तोच व्हड आशिल्ल्यान कुटुंबाची जबाबदारी ताचेर पडली. त्याच वर्सा ताचें गजराबेन हिचेकडेन लग्न जालें. ताका एक चलो आनी एक चली आसा. १९१२त तो मॅट्रीक जालो आनी १९१७ ताणें मुंबयच्या विल्सन म्हाविद्यालयांतल्यान बी. ए.ची पदवी मेळयली. १९१८त तो त्या काळांतल्या मुंबय प्रांताचो उपजिल्हाधिकारी जालो.

फुडें १९३०त ताणें उपजिल्हाधिकारी पदाचो राजिनामो दिवन गांधीजीचे सविनय कायदेभंगाचे चळवळींत वांटो घेतलो, जाका लागून ताका फुडें तीन फावट बंदखण भोगची पडली. १९३१-३७ ह्या काळांत तो गुजरात काँग्रेस कमिटीचो सचीव आशिल्लो. उपरांत ताणें १९३७-३९ ह्या काळांत मुंबय प्रांताचो महसूल, सहकार, शेती आनी जंगल खात्याचो मंत्री म्हणून काम केलें. ताणें 'भारत छोडो' आंदोलनांत वांटो घेतलो. ह्या निमतान ताका १९४५ मेरेन परत बंदखणींत वचचें पडलें. १९४६-५२ ह्या काळांत तो मुंबय प्रांताचो गृह आनी महसूल मंत्री आशिल्लो. उपरांत ताणें १९५२-५६ ह्या काळांत मुंबय प्रांताचो मुखेलमंत्री म्हणून काम पळेलें. ह्या काळांत ताणें पयलेच खेपे जमीन महसुलाविशीं सुदारणा केली आनी मुंबय प्रांताची प्रशासन वेवस्था कार्यक्षम केली. उपरांत तो १९५६-५८ ह्या काळांत केंद्रीय मंत्रीमंडळांत वेपार आनी उद्देग मंत्री जालो. जायत्या देशांनी भोंवडी करून ताणें भारताक रीण मेळोवपाक हातभार लायलो. १९५८ उपरांत अर्थ मंत्री आसतना ताणें स्विट्झर्लंड, अमेरिका आनी जपान आदी देशांची भोंवडी केली. तेचपरी

१९५५त राश्ट्रकूल परिशदेंत तशेंच १९६०त संवसारीक बँक आनी आंतरराश्ट्रीय चलन निधी परिशदेंत ताणें वाटो घेतिल्लो. उपरांत ताणें कामराज येवजणे प्रमाण आपल्या पदाचो राजिनामो दिलो. मार्च १९६६-६७ ह्या काळांत ताणें प्रशासकीय सुदारणा आयोगाचीं सुत्रां सांबाळ्ळीं. १९६७त तो इंदिरा गांधीच्या मंत्रीमंडळांत अर्थ मंत्री आनी उपप्रधान मंत्री जालो. प्रधानमंत्री इंदिरा गांधी हिचेकडेन मतभेद जाल्ल्यान ताणें १९६९त उपप्रधान मंत्रीपदाचो राजिनामो दिलो आनी तो संघटना काँग्रेसीचे लोकसभेंतलो फुडारी जालो. १९६२, १९६७ आनी १९७१ ह्या वर्सांनी तो लोकसभेर वेंचून आयिल्लो. तेभायर गुजरात विद्यापिठाचो कुलगुरू, नवजीवन ट्रस्टाचो अध्यक्ष, हिंदी प्रचारसभेच्या सल्लागार मंडळाचो वांगडी, अखिल भारतीय सोरोबंदी परिशदेचो वांगडी, गांधी स्मारक निधी, गांधी शांतताय प्रतिश्ठान आनी कस्तुरबा ट्रस्ट हांचो विश्वस्त आदी नात्यांनी ताचो जायत्या विधायक, संस्कृतीक आनी समाजीक संस्थांकडेन लागशिल्लो संबंद आयलो. पाकिस्तान देशाचो 'निशान-इ-पाकिस्तान' हो पाकिस्तान देशाचो व्हडलो किताब ताका फाव जालो (१९९२). तशेंच भारत सरकाराचो 'भारत रत्न' हो सर्वोच्च किताब ताका मेळ्ळो (१९९१).

२५ जून १९७५ ह्या दिसा पुराय देशांत आणिबाणी जाहीर केली आनी तेच रातचो ताका अटक केलो. उपरांत १८ जानेवारी १९७७ दिसा लोकसभेच्यो वेंचणुको घेवपाविशींच्यो घोशणा जाहीर जातकच ताची सुटका केली. उपरांत संघटना काँग्रेस, भारतीय जनसंघ, भारतीय लोकदल आनी समाजवादी पक्ष आदी चार पक्षांचें विलीनीकरण जावन २३ जानेवारी १९७७ ह्या दिसा जनता पक्षाची स्थापणूक जाली. ह्या पक्षाचो पयलो अध्यक्ष म्हणून ताका वेंचून काडिल्लो. मार्च १९७७त जनता पक्ष भोवमतान वेंचून आयलो आनी ह्या पक्षाचें केंद्र सरकार स्थापन जालें. तेन्ना ८१ वर्सां पिरायेचेर प्रधानमंत्री म्हणून ताका वेंचून काडलो.

फुडें १९७९त जनता पार्टींत फूट पडटकच ताणें प्रधान मंत्री पदाचो राजिनामो दिलो. भांगर नियंत्रण कायदो, सत्तेची बचत येवजण, सोरोबंदी कायदो अशे कांय वादग्रस्त निर्णय ताणें आपले कारकिर्दींत घेतले आनी ते यशस्वीपणान अंमलात हाडले.

जबर आत्मविश्वास, निर्भय वृत्ती, तत्त्वांकडेन तडजोड ना करपाची प्रवृत्ती, सत्य आनी नैतिकता हे मोरारजी देसायाचे खाशेले गूण आशिल्ले. शिवांभू पध्दतीचें आचरण करपी पुराय शाकाहारी आशिल्ल्या ह्या वादग्रस्त फुडाऱ्याक पिरायेच्या ९९ व्या वर्सा मरण आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

**देसाई, वसंत कृष्णा :** (जल्म : ९ जून १९१२, सोनवडे, जिल्हो – रत्नागिरी; मरण : २२ डिसेंबर १९७५, मुंबय).

नामनेचो संगीत दिग्दर्शक. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. ताच्या बापायक ताणें खूब शिकिल्लें जाय आसलें. पूण ताका मुळांत सर्कशींत वचपाची इत्सा आशिल्ली. देखून तो शिक्षण सोडून कोल्हापूराक आयलो आनी बापोलयो नानासाहेब देसाई हागेर गेलो. थंय ताच्या बापोलयान व्ही. शांताराम हाचेकडेन ताची वळख करून प्रभात फिल्म कंपनींत ताका प्रवेश मेळोवन दिलो.

सुर्वेक ताका मुकपटांनी ल्हान ल्हान भुमिका मेळ्ळ्यो. त्याच सुमाराक ताणें 'अयोध्येचा राजा' हो पयलो बोलपट काडलो. ह्या बोलपटांत ताणें संगीत दिग्दर्शक गोविंदराव टेंबे हाका सहकार दिलो. १९३४त प्रभात फिल्म कंपनी कोल्हापूरासावन पुण्यांत वतकच ताणें केशवराव भोळे आनी मास्टर कृष्णराव फुलेंब्रीकर हाचेकडेन सहाय्यक म्हणून रावन संगिताचें गिन्यान घेतलें. ताचेकडल्यान ताका स्वर, तान आनी मुरकी आदी संगिताचें चड ज्ञान मेळ्ळें. तरी पूण ताका रागदारी संगितांत चड गोडी आशिल्ल्यान ताणें इनायत खाँसाहेब हाचेकडल्यान शास्त्रोक्त संगिताचें शिक्षण घेतलें. तशेंच नामनेच्या गायकांच्यो ध्वनीमुद्रिका परत्यो परत्यो आयकून तेचपरी वेगवेगळ्या घराण्यांच्या गायकांच्या बसकांनी वचून संगितांतलें मर्म जाणून घेतलें. ह्या काळांत ताच्या गायनाच्यो बैठकी जातात्यो.

प्रभातच्या 'संत ज्ञानेश्वर' आनी 'संत सखू' ह्या गाजिल्ल्या चलचित्रांच्या पदांच्यो चाली आनी पार्श्वसंगीत ताणें दिलें. तेन्नाच ताणें प्रभात फिल्म कंपनीक पार्श्वसंगीत दिलें. तेभायर ताणें केल्ल्यो प्रभात फिल्म कंपनीच्या 'धर्मात्मा'त राणू महार आनी 'संत ज्ञानेश्वरांत' भैरू गाडीवान, ह्यो भुमिका लक्षांत उरपासारक्यो आसात.

पूण खऱ्या अर्थान तो मुंबय वचतसावन ताच्या वेवसायांत उदरगत जायत गेली. ताचें पयलें फिल्म मिनर्वा मुवीटोनाचें 'आपकी राय'. व्ही. शांतारामान जेन्ना 'प्रभात फिल्म कंपनी' सोडली आनी 'राजकमल फिल्म कंपनी' सुरू केली, तेन्ना वसंत देसाईक ताणें आपल्या शकुंतला ह्या पयल्या चलचित्राचो संगीत दिग्दर्शक नेमलो (१९४३). ताचे उपरांत ३२ वर्सां ताणें चलचित्रगितां, नाट्यगितां, बालगितां आनी समूहगितांक संगीत दिलें. 'शकुंतला', 'रामजोशी', 'अमरभूपाळी', 'दो आँखे बारह हाथ', 'झनक झनक पायल बाजे', 'गुंज उठी शहनाई', 'आशीर्वाद' आनी 'गुड्डी' ह्या चलचित्रपटांक ताणें दिल्ल्या संगिताक उपाट नामना मेळ्ळी. ताणें १९४३ ते १९७५ ह्या काळांत मराठी, हिंदी, इंग्लीश आनी गुजराती चित्रपटांचें संगीत दिग्दर्शन केलें. ताणें कांय प्रमाणांत चीनी संगीताचोय अभ्यास केलो आनी ताचो उपेग 'डॉ. कोटनीस की अमर कहानी' ह्या चलचित्राखातीर केलो.

ताणें चाल दिल्ली 'घनश्याम सुंदरा' ही भूपाळी महाराष्ट्राचे स्थापनेवेळार गायिल्ली. ताणें स्वरबध्द केल्लें 'ऐ मालिक तेरे बंदे हम' हें गीत पाकिस्तान आकाशवाणीचेर आनी शाळेंत प्रार्थना म्हणून म्हण्टात. ताणें चलचित्रांतल्या आनी हेर गितांनी रागदारी संगिता वांगडाच लोकगितांचोय आविश्कार घडयलो. ताणें भारतीय संगिताक वयल्या पांवड्यार पावयलें. देखुनूच भारतांतलो नामनेचो संगीत दिग्दर्शक म्हणून ताका मानाची सुवात मेळ्ळी.

ताणें सुमार १६ मराठी नाटकांखातीर संगीत दिग्दर्शनाचें काम केलां. ताणें संगीत दिल्लीं 'पंडितराज जगन्नाथ' आनी 'प्रिती संगम' हीं नाटकां खूब गाजलीं.

ताका समुहगितांचो जनक अशें मानताले. १९६२त चीनाचे घुरये वेळार ताणें स्वरबध्द केल्लें 'जिंकू किंवा मरू' हें ग. दि. माडगूळकराचें समरगीत खूब लोकप्रिय जालें. तो महाराष्ट्र राज्य शासनाचो संगीत दिग्दर्शक आशिल्लो. ताणें संगीत दिल्ल्या जायत्या चलचित्रांक राश्ट्रीय आनी विदेशी भोवमान मेळ्ळयात. १९७१त भारत सरकारान ताका पद्मश्री पदवी दिली. १९७३-७४त ताका मराठी नाट्य परिशदेच्या

अध्यक्षपदाचो मान मेळ्ळो. १९७५ वर्सा महाराष्ट्राच्या राज्यपालान ताची विधान परिशदेचेर नियुक्ती केली.

तो आंकवार आशिल्लो. मुंबयच्या पॅडर रोडावयल्या ताच्या स्वताच्या घरांतल्या लिफ्टांत ताका अपघाती मरण आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

## देसाई, प्रा. सदाशिव शंकर : (जल्म : २५ जुलय १९१७, बाळ्ळी; मरण : ३० जून १९९६, पाळोळे – काणकोण).

नामनेचो कादंबरीकार आनी इतिहासकार. ताणें मुळावें शिक्षण बाळ्ळी आनी पाळोळ्यां हांगा घेतलें. तशेंच काणकोणां ताणें सेगुंद ग्राव मेरेनचें पुर्तुगेज शिक्षण घेतलें. तेचपरी मडगांव आनी पणजे ताणें लिसेंवाचें शिक्षण घेतलें. पूण हें शिक्षण भलायकेक लागून ताका पुराय करूंक मेळ्ळें ना. फुडें तो १९४४त पत्रकार जावपाखातीर पुण्याक गेलो. सुर्वेक तो 'दैनिक लोकशक्ति' हातूंत उपसंपादक म्हणून काम करूंक लागलो. उपरांत दैनिक समाचार, प्रभात आदीं दिसाळ्यांनी उपसंपादक म्हणून ताणें काम केलें. १९४२त 'टॉलस्टॉयच्या स्मृती' हें पुस्तक बरयलें. १९५३त ताची 'इभ्रत' ही पयली कादंबरी उजवाडाक आयली. १९५७त तो पत्रवेवसाय सोडून पं. महादेवशास्त्री जोशी हाच्या 'भारतीय संस्कृती कोश' मंडळांत काम करूंक लागलो. ह्याच काळांत ताणें डॉ. आंतोनियु द ब्रागाद पेरैर आनी डॉ. पांडुरंग स. पिसुर्लेकार हाणें संपादन करून उजवाडाक हाडिल्ल्या मराठ्याच्या इतिहासाविशींच्या पुर्तुगेज कागद पत्रांचें संपादन करून अणकार केलो. १९६४त शिवाजी विद्यापिठाच्या इतिहास फांट्यांत संशोधन सहाय्यक म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९६९त ताका संशोधन संचालक म्हणून बडटी मेळ्ळी. १९७०त तो ह्या पदावयल्यान निवृत्त जालो. ह्या काळांत ताणें 'ताराबाई कालीन कागदपत्रे,' ३ खंड (Tarabai Papers Vol. I, Studies in Maratha History 2 Volumes) ; ताराबाई कालीन कागदपत्रे खंड १ आनी शिवकालीन पोर्तुगिज कागदपत्रे हे ग्रंथ उजवाडाक हाडले. तशेंच `Historical Encyclopaedia of Maratha' ह्या तीन खंडांच्या ग्रंथांचें कामूय पुराय केलें.

इतिहासाचो अभ्यासक तशेंच इतिहासाचो लेखक म्हणून ताणें खूब नामना जोडली. शिवाजी विद्यापिठांत ताणें 'मराठ्यांचा इतिहास'चेर खूब संशोधन केलें. मराठ्यांच्या इतिहासाचो ज्ञानकोश ह्या ताच्या मोलादीक वावराक लागून ताका नामना मेळ्ळी. केंद्र सरकाराच्या प्रसिध्दी खात्याखातीर गोंय, दमण, दीव आनी दादरा नगर हवेली ह्या प्रदेशांची म्हायती दिवपी एक ल्हान पुस्तक ताणें बरयलें.

ताणें वट्ट इकरा कादंबऱ्यो बरयल्यात. तातुंतल्यो दोन अणकारीत आसात. हेर स्वतंत्र कादंबऱ्यांमदीं ताची 'अब्बासअली' ही हैदराबादच्या राजकारणाचेर बरयल्ली आसून ती ताची म्हत्वाची कादंबरी आसा. 'आहुती' ही ताची कादंबरी हैदराबादच्या मुक्ती संग्रामाचेर आदारिल्ली आसा.

दोनय संवसारीक म्हाझुजांचो नियाळ घेवपी दोन ग्रंथ आनी दुसऱ्या म्हाझुजांतलें म्हत्वाचें थारिल्लें स्टालिनग्राडचें झूज हीं ताचीं गाजिल्लीं इतिहासीक पुस्तकां. ताचें, सर विन्स्टन चर्चीलाचें चरित्र लोकप्रिय जालें. संवसारीक अभिजात साहित्याचेरय ताणें लिखाण केलां. तातूंतल्या कांय लेखांचो झेलो 'विविध लेख' ह्या नांवान उजवाडाक आयला. 'मानवी इतिहासांतील महान क्षण' ह्या ग्रंथाचे दोन खंड आनी 'टॉलस्टॉयच्या स्मृती' हीं ताचीं दोन अणकारीत पुस्तकां. इतिहासीक कादंबरी बरोवपाची एक खाशेली नदर ताचेकडेन आशिल्ली. ताचे बरपावळीची शैली सोंपी आनी सादी. ताचें कथानक गतीमान आसता. 'चंबळेच्या पलिकडे', 'महापर्व', 'अखेरची लढाई' ह्यो ताच्यो म्हत्वाच्यो इतिहासीक कादंबऱ्यो.

चवकस वाचनाक लागून ताची साहित्याविशींची गोडी वाडत गेली. नवभारत, सुषमा, किर्लोस्कर, मनोहर, युगपाणी, यशवंत दुदसागर, आदी मासिकांतल्यान ताणें स्फूट बरप केलें. साहित्याविशीं कांय समिक्षात्मक लेख ताणें बरयल्यात.

ताणें राजकारणांत व्हडलोसो वांटो घेतलो ना पूण गोंयची मुक्ती चळवळ चालू आसतना 'नॅशनल काँग्रेस गोवा'चो पुणे फांटो स्थापन जालो. त्या फांट्याचो अध्यक्ष म्हणून ताणें तीन वर्सां काम केलें.

ताचें उजवाडाक आयिल्लें साहित्य अशें :

**कादंबरी :** इभ्रत, आहुति, अब्बासअल्ली, निष्कलंक, चंबळेच्या पलिकडे, महापर्व, कथा एका साम्राज्य संस्थापकाची, अखेरची लढाई, विजय कमान, मी.

**इतिहास :** पहिले जागतिक युध्द, दुसरे जागतिक युध्द, स्टालिनग्राडची लढाई, मानवी इतिहासातील महान क्षण (अणकार), सीलबंद गाडी (अणकार).

**इतिहासीक साधन ग्रंथ :** मराठ्याच्या इतिहासाची साधने पोर्तुगीज दप्तर खंड -१, खंड -२; करवीरचे छत्रपती आणि पोर्तुगीज. शिवशाही पोर्तुगीज.

**चरित्र :** सर विन्स्टन चर्चिल, कोंदणातील हिरे (अस्तंत्या लेखकांचीं चरित्रां), टॉलस्टॉयच्या स्मृती (अणकार).

ताचें उजवाडा येवंक नाशिल्लें पूण पुराय आशिल्लें साहित्य अशें - महाराष्ट्रातील कोश, २ खंड, पोर्तुगीज मराठे संबंध.

– कों. वि. सं. मं.

## देसाय, अमृतजी माधवजी जसवंतराव : (जल्म : ९ जुलय १९२९, मुंबय).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठींत विद्यालयीन शिक्षण आनी लिसेंवाच्या पांचव्या वर्सामेरेन शिक्षण घेतलें. १९४८ मेरेन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. धारगळचे 'हरिजन सेवा समिती'चो तो वांगडी आशिल्लो. भुरग्यांक शिक्षण मेळचें ह्या हेतान तुयां ताणें मुळावी शाळा सुरू केली. सुटकेझुजाखातीर तो भूंयगत वावर करतालो. तुयेचें ताचें घर म्हळ्यार क्रांतीविरांच्या कार्याचें मुखेल ठाणेंच आशिल्लें. २९ सप्टेंबर १९५७ दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून आठ वर्सां खर बंदखण आनी दोन वर्सां सादे बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

१९ डिसेंबर १९६१ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

## देसाय, उत्तम गुणो : (जल्म : १८ ऑगस्ट १९१८, कुंकळ्ळी

- साश्ट).

सुटकेझ्झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. सुटके झ्झुजाऱ्यांक लिपून रावपाक तो आदार दितालो. १३ एप्रिल १९५५ दिसा सुटके झ्झुजाऱ्याच्या एका पंगडाक कुंकळ्ळी पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपाक ताणें आदार दिलो. पोलिसांनी ताका धरलो, मार दिलो आनी सुमार देड वर्स बंदखणींत दवरलो. १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, कुमुदचंद्र वासुदेव प्रभू :** (जल्म : ५ सप्टेंबर १९१९, कुंकळ्ळी - साश्ट).

सुटकेझ्झुजारी. ताणें विद्यालयीन पांवड्या मेरेन शिक्षण घेतलें. सुटके चळवळीच्या काळांत तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. राश्ट्रवादी पत्रकां वांटप, पुस्तिका वांटप, सुटकेझ्झुजाऱ्यांक म्हत्वाच्यो राजकीय खबरो पावोवप, गुपीत बसकांनी वांटो घेवप असलीं कामां तो करतालो. १९५६त सुटकेझ्झुजारी ओलिविन्यु कुयेल्ल्यु हाच्या फुडारपणाखाल तेरेखोला सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतलो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी पांच वर्सांखातीर बंदखणींत दवरलो. दोन वर्सां ताका दंड भरूंक सांगलो आनी १५ वर्सांखातीर ताचे नागरी हक्क काडून घेतले. तशेंच ताका ताचें दुकानूय बंद करूंक सांगलें. फुडें १९५८त दर दिसा पोलीस ठाण्याचेर हजेरी लावपाचें उतर घेवन ताका सोडलो. १९७६त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. गोंयचे सुटके उपरांत तो जायत्या भौशीक, धर्मीक आनी हेर कार्यावळींनी वांटो घेतालो. अश्टग्रहर मंडळ कॉंग्रेसीचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. रिवण ग्रामपंचायतीचोय तो वांगडी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, कृष्णा देवप्पा :** (जल्म : २५ डिसेंबर १९३१, नगर्शें - काणकोण).

सुटकेझ्झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. माजाळे शिबिराखातीर वावुरपी सुटकेझ्झुजाऱ्यांक पोलिसांच्या कारवायांविशीं म्हायती दिवप, पत्रकां वांटप असलीं कामां तो करतालो. १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा १७ क्रांतीवीरांवांगडा ताणें गांवडोंगरी ते काणकोण पोलीस स्टेशनामेरेन तोंडान घोशणा दीत आनी हातांत बावटो घेवन मोर्चो काडलो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी ५ वर्सां आनी ७ म्हयने बंदखणींत दवरलो. बंदखणींतली सुवेवस्था सारकी नाशिल्ल्याची कागाळ केल्ल्यान ताका सात दीस काळखा कुडींत दवरिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, दत्ताराम कृष्णराव :** (जल्म : सांखळी - दिवचल).

सुटकेझ्झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां वांटप, वण्टीपत्रकां लावप असलीं कामां तो करतालो. सप्टेंबर १९५४त पोलिसांनी ताका धरलो. प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका १८ म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. मार्च १९५६त ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. सुटकेउपरांत तो राजकीय चळवळींनी वांटो घेवंक लागलो. १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, दत्ताराम देवू :** (जल्म : ११ सप्टेंबर १९३०, कुंकळ्ळी - साश्ट).

सुटकेझ्झुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. १९५४ वर्सासावन तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो आनी भूंयगत वावरांनी वांटो घेतालो. १३ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा वांगड्यांसयत ताणें कुंकळ्ळी पोलीस ठाण्याचेर हल्लो केलो आनी थंयचीं शस्त्रां हातासलीं. जुलय १९५८त दमणाक जाल्ल्या हल्ल्यांत ताणें वांटो घेतिल्लो. गोंयचे सुटकेखातीर जेन्ना भारतीय सैन्य गोंयांत आयलें, तेन्ना तांकां माजाळे ते मडगांवा मेरेन ताणें मार्गदर्शन केलें. १९६३ वर्सा गोंय विधानसभेंत तो आमदार म्हणून वेंचून आयलो. १९७३ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, दत्ता शिवा नायक :** (जल्म : ८ मार्च १९२८, पणसुलें - काणकोण).

सुटकेझ्झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठी आनी इंग्लिशींतल्यान घेतलें. १९४८ - ५० ह्या काळांत तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी जालो. पिटर आल्वारीशाच्या मार्गदर्शनाखाल तो सुटकेझ्झुजाचो वावर करतालो. १९५०त पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका पैंगीणीं धरलो. ताचेकडल्यान ताच्या इश्टांचीं नांवां काडपाखातीर ताचो खूब छळ केलो. ताका ११ म्हयने आग्वाद बंदखणींत दवरिल्लो. १९५६ वर्सा पोलिसांनी ताका परतो धरलो आनी रेईश मागुश बंदखणींत दवरलो. १५ ऑगस्ट १९७२ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, दामोदर हरी प्रभू :** (जल्म : म्हाळबाग - काणकोण).

सुटकेझ्झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९५४ वर्सासावन माजाळे कॅम्पासावन पत्रकां, बावटे हाडप आनी काणकोण तशेंच साश्ट म्हालांनी वांटप, वण्टीपत्रकां लावप, लिपचोरयां बसका घेवप असल्या वावरांनी तो वांटो घेतालो. १६ सप्टेंबर १९५४ दिसा ताका धरून बंदखणींत घालो आनी खूब त्रास दिले. पांच वर्सांखातीर ताका बंदखणींत दवरलो. पूण साडेतीन वर्सां उपरांत सगळ्यांची बंदखणींतल्यान सुटका जाले उपरांत ताचीय सुटका जाली. श्रमदानावरवीं रस्ते बांदपाचो म्हत्वाचो उदरगतीचो वावर ताणें केलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, देविदास रामकृष्ण प्रभू :** (जल्म : २२ सप्टेंबर १९११, पेडें, लोलयें, काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १९५४ मेरेन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. ताच्या शेतांत आनी घरांत 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेच्या वावुरप्यांच्यो बसका भरताल्यो. क्रांतीविरांक तो खबरो पावोवपाचें काम करतालो. सिंधुताई देशपांडे गोंयांत आयिल्ली तेन्ना लिपचोरयां येवन ताच्याच शेतांत राविल्ली. सुपानगुडी पोलीस ठाण्याचेर उजो लायलो, ह्या आरोपाखाल पोलिसांनी ताका २४ जुलय १९५५ ह्या दिसा धरलो आनी २५ दीस बंदखणींत दवरलो. तो देवळांनी बसका घेवन पुर्तुगेज पोलीस जेरोनिमु बार्रेतु हाका मारपाचो कट करता असो पुर्तुगेज सरकाराक दुबाव आयलो आनी जेन्ना त्या पुर्तुगेज अधिकाऱ्याचो खऱ्यांनीच खून जालो, तेन्ना ताका पोलिसांनी धरलो आनी ताचो शारिरीक छळ केलो. ताका प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून २७ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. सुप्रीम कोर्टाकडल्यान आदेश येवन ताची केस परती तपासली तेन्ना ताचो कसलोच गुन्यांव मेळ्ळोना. तो सुमार अडेज वर्सां बावीस दीस बंदखणींत आशिल्लो. १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**देसाय, नकुल राया :** (जल्म : २६ फेब्रुवारी १९३९, पीर्ण - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १९५५ वर्सासावन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा पीर्ण वाठारांत ताणें भौशीक बसका घडोवन हाडिल्ली. थंय तिरंगी बावटो लायलो आनी तोंडान घोशणा दीत म्हापश्यामेरेन मिरवणूक काडली. वाटेर ताणें थिवी हांगा बावटो लायलो. म्हापशेंचे वाटेर पोलिसांनी ताका धरलो, मार दिलो आनी एक वर्स बंदखणींत दवरलो. उपरांत प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. दोन वर्सांखातीर ताका दंड भरूंक लायलो. गोंय सोडून खंयच वचप ना आनी दर म्हयन्याक म्हापशें पोलीस ठाण्याचेर वचून हजेरी लावप हे अटीचेर ताका सोडलो. १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**देसाय, नरसिंह ऊर्फ बाबू गोविंद हेगडे :** (जल्म : १४ मार्च १९३४, केपें).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. तेचपरी मुंबय विद्यापिठाची प्रवेश परिक्षाय पास जालो. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. ताणें आपलो भाव, कांत ऊर्फ कृष्णकांत हेगडे देसाय तशेंच नरेंद्र हेगडे देसाय हांचेकडल्यान सुटकेझुजांत वांटो घेवपाची स्फूर्त घेतली. १९५४त 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचो चिटणीस ॲन्थनी द सौझ हाका केपें वाठारांत सुटके चळवळीचो प्रसार करपाक पालव दिलो. सुटकेझुजारी नागेश करमली हाच्याय मार्गदर्शनाखाल ताणें वावर केला. १६ सप्टेंबर १९५४ ह्या दिसा ताणें केप्यां 'तेरेखोल दीस' पाळपाचें थरयल्लें. पूण ताचेपयलींच ताका ताच्या वांगड्यांसयत धरलो, खूब मार दिलो आनी बंदखणींत दवरलो. फुडें ताका प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून ८ म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १६ मे १९५५ ह्या दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. उपरांत गोंय सुटके सैन्याकडेनय ताचो संबंद आशिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**देसाय, नागेश अंता :** (जल्म : ७ सप्टेंबर १९३३, गांवडोंगरी - काणकोण).

सुटकेझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां वांटप, राष्ट्रवाद्यांक पुर्तुगेज पोलिसांच्या कारवायांविशीं खबरो पावोवप, पोलीस ठाण्यावयल्या हल्ल्यांत वांटो घेवप असलीं कामां तो करतालो. फेब्रुवारी १९५५त ताका पोलिसांनी धरलो आनी बंदखणींत दवरून खूब त्रास दिलो. १९५९ वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**देसाय, नारायण गोविंद :** (जल्म : १९१७ काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. १९५४ वर्सा सावन तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीखातीर तो वावर करतालो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**देसाय, प्रल्हाद भिवा :** (जल्म : २५ डिसेंबर १९३८, म्हापशें).

सुटकेझुजारी. ताणें विद्यालयीन शिक्षण इंग्लिशींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. ताणें सुटके चळवळीखातीर सत्याग्रहांत वांटो घेवपाचें थरयल्लें, पूण ताचे पयलींच ताका १५ सप्टेंबर १९५४ दिसा अटक केली. तशेंच ताचेकडल्यान ताच्या वांगड्यांची नांवां कळचीं, देखून ताका खूब मारलो. मे १९५९त ताची सुटका जाली. त्याच वर्सा ताका परतून धरपाचें फर्मान काडिल्लें. अटक चुकोवंक तो मुंबय गेलो आनी थंयचे 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेखातीर वावर करूंक लागलो. पूण कांय कारणांखातीर ताका १९६०त परत गोंयांत येवचें पडलें. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**देसाय, फोंडु मोर्तु फळ :** (जल्म : १० मार्च १९१२, बाळ्ळी - वंटें - केपें).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तरणाट्यांक सुटकेझुजांत वांटो घेवंक तो स्फूर्त दितालो. लोकांक शिक्षण दिवंचे खातीर ताणें 'रातची शाळा' सुरू केली. २० फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा मडगांव नगरपालिकेकडेन जो सत्याग्रह जाल्लो तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो.

तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी बेशुध्द जायसर मार दिलो. सुर्वेक ताका दोन म्हयने सादे बंदखणींत दवरलो आनी उपरांत एक वर्सभर खर बंदखणींत दवरलो. बंदखणींतल्यान सुटका जातकच तो परतो भूंयगत वावर करूंक लागलो. तेखातीर पुर्तुगेज पोलिसांनी ताच्या घरच्यांक खूब त्रास दिलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८४ दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, बळवंतराव विठ्ठलराव :** (जल्म : १६ जानेवारी १९२८, पिसुर्ले - सत्तरी).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो आनी क्रांतीकारी चळवळींनी वांटो घेतालो. पोलिसांनी ताका धरलो. प्रदेशिक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका १६ वर्सां खर बंदखण आनी दंड भरचे बदला आनीक दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

गोंय सुटकेउपरांत १९६३-७३ ह्या काळांत तो पिसुर्लें ग्रामपंचायतीचो सरपंच आशिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय बाळा गोपाळ :** (जल्म : १९२८, धारगळ - पेडणें; मरण: ५ फेब्रुवारी १९५६, हाळी - पेडणें).

सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. १९५४ सावन तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तशेंच तो ह्या दलाच्या नेताडें फांट्यांत काम करतालो. ऑगस्ट १९५४त ताका पोलिसांनी धरून एका म्हयन्याखातीर बंदखणींत घालो. नोव्हेंबर १९५५त चांदेल पोलीस स्टेशनाचेर आनी १५ जानेवारी १९५६ वर्सा पोलिसांचे जिपीचेर हल्लो करपांत ताचो वांटो आसलो.

५ फेब्रुवारी १९५६ दिसा पेडण्यांतल्या हाळी वाठारांत ताणें बापू गांवस हाचेवांगडा आजेंत काझिमिरू मोंतैरू ह्या पुर्तुगेज अधिकाऱ्याचेर हल्लो केलो.पूण मोंतैरूचे जिपी फाटल्यान येवपी ४० सशस्त्र सैनिकांच्या जाळ्यांत तो सांपडलो आनी जखमी जालो. तेन्ना पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका जिपीफाटल्यान बांदून सरकटायत चांदेल ठाण्यार व्हेलो आनी ताचेर पेट्रोल ओतून ताका लासून मारलो. १८ जून १९८३ दिसा गोंय सरकारान ताचो मरणाउपरांत भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, यशवंत केशव :** (जल्म : १४ नोव्हेंबर १९३७, पिर्णा - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें विद्यालयीन शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आसलो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा आपल्या इश्टांवांगडा ताणें पीर्ण वाठारांत तिरंगी बावटो लायलो. थंयच्यान व्हडाव्हडान घोशणा दीत ताणें म्हापश्यां जाल्ले मिरवणुकींत वांटो घेतलो. वाटेर थिवी वाठारांत जेन्ना ताणें तिरंगी बावटो लायलो, तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो आनी म्हापशें बंदखणीत दवरलो. त्याच दिसा ताका पणजे व्हेलो आनी सुमार एक वर्सभर बंदखणींत दवरलो. फुडें प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच, दंड भरपाये बदला आनीक दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ऑक्टोबर १९५९त ताणें दर तीन म्हयन्यांनी म्हापशें पोलीस ठाण्याचेर हजेरी लावंक जाय आनी गोंय सोडून खंयच वचूंक जायना हे अटीचेर ताका सोडलो. १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, यशवंत विठोबा :** (जल्म : काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो भूंयगत वावरांनी वांटो घेतालो. तशेंच पत्रिका वांटप, वण्टीपत्रकां लावप, तिरंगी बावटे लावप हेसारकीं कामांय तो करतालो. १९५६त पोलिसांनी ताका पिर्ला वाठारांत धरलो आनी सात म्हयन्यांवयर बंदखणींत दवरलो. थंयच्यान सुटका जातकच ताणें परत सुटकेझुजाचो वावर करूंक सुरवात केली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, यादवेंद्र वासुदेव प्रभू :** (जल्म : २५ जानेवारी १९३०, कुंकळ्ळी - साश्ट).

सुटकेझुजारी. ताणें पुर्तुगेज, मराठी आनी हिंदींत मुळावें शिक्षण आनी पूर्व - एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. १९५३-५५ ह्या काळांत तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वावुरपी वांगडी आशिल्लो. १९५६त तो गोंय सुटके सैन्याचो वांगडी जालो. सुटके झुजारी पिटर आल्वारीश, आगुस्तुश आल्वारीश आनी उरसेलिनु आल्मैद हांच्या मार्गदर्शनाखाला तो काम करतालो. ताणें आपली सरकारी नोकरी सोडली आनी मडगांवां छापखानो उगडलो. ह्या छापखान्यांतल्यान राश्ट्रीय पत्रकां उजवाडावन तो सुटकेझुजाक आपलेपरीन हातभार लायतालो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी ताच्या छापखान्याचेर बंदी हाडली. ताका प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून आठ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच दंड भरपाये बदला आनीक दोन वर्सां ख्यास्त आनी २० वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. साडेतीन वर्सां उपरांत म्हळ्यार ऑगस्ट १९५९ ताचेकडल्यान वचन घेवन ताची सुटका केली. गोंयचे सुटकेमेरेन ताका केपें पोलीस ठाण्याचेर येवन हजेरी लावंची पडटाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. १९७७त तो केपें नगरपालिकेचो वांगडी म्हणून वेंचून आयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, रघुनाथ गणेश गारुडी :** (जल्म : २२ एप्रिल १९०९, शिवोली - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत मिरवणुकांनी, बसकांनी वांटो घेवप तिरंगी बावटो लावप, पत्रकां वांटप हे सारकीं कामां तो करतालो. चोडण पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करून ताणें थंयचीं हत्यारां हस्तगत केलीं. पुर्तुगेज पोलिसांकडल्यान दोन

फावट ताका अटक जाली. तशेंच १६ म्हयने ताणें बंदखण भोगल्या. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, वसंत विठ्ठल :** (जल्म : १९ जुलय १९३९, पीर्ण - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणे विद्यालयीन शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १९५३त तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' हे संघटनेचो वांगडी जालो. शिवोली, कांयसूव, पीर्ण आनी कामुर्ली ह्या सुवातांचेर तो बसका आयोजीत करतालो. तशेंच बांदा, बेळगांव आनी दोडामार्गार बसकांनी वांटो घेवंक तो वतालो. थंयसावन राष्ट्रवादी पत्रिका, पुस्तकां हाडून त्यो बारदेसांत वांट्टालो. तशेंच शिमेवयल्या राष्ट्रवाद्यांक गोंयच्यो राजकीय हालचाली कळयतालो. तेन्ना ताका धरपाचें फर्मान काडिल्लें. पीर्णां सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो आनी ताका १२ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. २० ऑगस्ट १९५९ दिसा चार वर्सां आनी आठ म्हयने बंदखण भोगले उपरांत ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, वासुदेव पांडुरंग फळ :** (जल्म : ३० सप्टेंबर १९३४, पैंगीण - काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें विद्यालयीन शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आसलो. १९५४-५५ ह्या काळांत तो वण्टीपत्रकां लावप, राष्ट्रीय पुस्तकां वांटप असलीं कामां करतालो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा ताणें आपल्या वांगड्यांसयत पैंगीणच्यान मिरवणूक काडून सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. वाटेर भाटपाल - श्रीस्थळा ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. ताका ८ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली, तशेंच दिसाक १० इश्कूद हे प्रमाण २ वर्सां दंड भरूंक लायलो. १५ वर्सां खातीर ताचे नागरी हक्क काडून घेतले. १९५९ वर्सा सगळ्या कैद्यां वांगडा ताचीय सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, वासुदेव व्यंकटेश फळ :** (जल्म : १३ ऑक्टोबर १९२७, पैंगीण - काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. जून १९४६ सावन तो 'राष्ट्र सेवा दलां'त वावर करतालो. तशेंच प्रभातफेरयांनी वांटो घेतालो. २६ जानेवारी १९५५ दिसा हातांत तिरंगी बावटो घेवन पैंगीण ते मोखरदमल मेरेन जाल्ले मिरवणुकींत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. फुडें प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका णव वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर दंड भरपायेबदला आनीक दोन वर्सां ख्यास्त दिली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, विठोबा नारायण राउत :** (जल्म : २ मार्च १९१२, असोल्डें - केपें).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान तशेंच प्रिमैर कुर्स द इश्कोल रेजीमेन्ताल हेंय शिक्षण घेतलें. ताणें सुटके चळवळींत वांटो घेतलो तेन्ना ताका पुर्तुगेज पोलीस विभागांतल्यान काडून उडयलो. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. बसकांनी वांटो घेवप, मिरवणुको काडप असलो वावर तो करतालो. १८ जून १९५६ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी दोन वर्सां आग्वाद बंदखणींत दवरलो. थंय ताका पोलिसांनी खूब त्रास दिले. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, विश्वासराव जसवंतराव :** (जल्म : १८ जून १९३४, तुयें - पेडणें).

सुटकेझुजारी. ताणें विद्यालयीन शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आसलो. १६ सप्टेंबर १९५४ ह्या दिसा ताणें सुटकेझुजारी ओलिविन्यु बी कुएल्ल्यु हाच्या मार्गदर्शनाखाला तेरेखोलच्या किल्ल्याचेर जाल्ल्या सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो. प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका णव वर्सां खर बंदखण आनी तीन वर्सां सादे बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. डिसेंबर १९५८त सगळ्यांवांगडा ताचीय सुटका जाली. बंदखणींतल्यान सुटका जाले उपरांत तो परतो सुटके चळवळींत वांटो घेवंक लागलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, विष्णू पांडुरंग फळ :** (जल्म : १५ एप्रिल १९०५, काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान मुळावें शिक्षण घेतलें. सुटकेझुजाऱ्यांक राजकीय वावर करूंक तो आदार दितालो. २० सप्टेंबर १९५६ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी बंदखणींत दवरलो. १२ मार्च १९५८ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. फुडें १५ जानेवारी १९६० दिसा परतो धरलो आनी १४ मार्च १९६० दिसा ताका सोडलो. १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, शाबू बाबनी नायक :** (जल्म : ८ जानेवारी १९३०, कुंकळ्ळी - साश्ट).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वावुरपी वांगडी आशिल्लो. कुडाळाक घडोवन हाडिल्ल्या गनिमी काव्याविशीं प्रशिक्षण केंद्रांत ताणें वांटो घेतिल्लो. दलाच्या कमांडो फोर्सांत तो दाखल जाल्लो. जून १९५४त नगर हवेलीच्या हत्यारबंद वावरांनी ताणें वांटो घेतिल्लो. नगर हवेलीचे सुटके उपरांत तो दत्ताराम उत्तम देसाय हाच्या मार्गदर्शनाखाल माजाळे फांट्यांत वावर करूंक

लागलो. एप्रिल १९५५त कुंकळ्ळी पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत, जून १९५६त पिर्ला मिनाखणीचेर धाड घालपांत आनी सालाझाराक तेंको दिवपी जेरोनिमु बार्रेतु हाचो खून करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरपाचें फर्मान काडिल्लें. तशेंच ताका धरून दितल्याक इनाम दवरिल्लें. गोंय सुटके उपरांत १९७७त कुंकळ्ळी ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हणून तो वेंचून आयलो. उपरांत तो 'गोमंतक क्षत्रिय मराठा समाज' हे संघटनेचो अध्यक्ष आशिल्लो. १९७६त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. तशेंच, जायत्या भौशीक आनी संस्कृतीक मळांचेरय ताचे भोवमान जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, शिवाजी गोविंद :** (जल्म : २४ एप्रिल १९३०, साखळे, दिवचल).

गोंयचो सुटकेझुजारी. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो.

दादराच्या पोलीस उपनिरिक्षकाक माल्लो, ह्या आरोपावयल्यान ताका काल्यां १९५४ त धरलो आनी पणजेचे आल्तीनोवयले बंदखणींत घालो. १० जानेवारी १९५५ दिसा तो बंदखणींतल्यान पळून वचून अनमोडाक गेलो.

गोंयांतलें रेल्वे येरादारी संबंदी पिटर आल्वारीस हाच्या फुडारपणाखाला ताणें २६ जानेवारी १९५५ दिसा कॅसरलॉक सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. प्रादेशिक लश्करी न्यायालयान ताका ५ वर्सां बंदखणीत दवरलो. फेब्रुवारी १९५५ दिसा 'राश्ट्रीय कॉंग्रेस गोंय' संघटना दोड्यामार्गार सुरू करून ताणें भुंयगत चळवळींत वाटो घेतलो. ३० सप्टेंबर १९५५ दिसा ताणें आपल्या वांगड्यांसयत 'गोंय सुटके सैन्याची' स्थापणूक केली. लिपचोरया रावून पोर्तुगेज वाहनां, रेल्वे हांचेर घुरयो घाल्यो. शिरगांवचे मिनाखाणीर स्फोट घडोवन हाडटना ताच्या दाव्या हाताक गुळी लागली. १९५७ वर्सा राश्ट्रीय कॉंग्रेस गोंयचे संघटनेचो मुखेल सचिव म्हणून ताणें काम केलें. शिवाजी सावंत, राम काकोडकार, माधव चव्हाण, आगुस्तीस आल्वारीस, उरसेलीनो आल्मेदा, अनास्तासीयु आल्मेदा, सिंधुताई देशपांडे हे ताचे सुटके झुजांतले वांगडी.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, श्रीपाद रघुनाथ :** (जल्म : ४ मार्च १९१७, पेडणे-गोंय).

कोंकणी कोशकार. ताणें बी.ए. (ऑनर्स) मेरेनचें शिक्षण घेतलें. हाचेभायर ताणें इंग्लंडांत मुद्रणकलेचेंय शिक्षण घेतलें. मराठी, हिंदी, पुर्तुगेज, गुजराती, इंग्लीश आनी कोंकणी ह्या भासांचो ताका बरो अभ्यास आसा. १९३५ त मुंबय गोमंतक छापखान्यांत कोंकणी कंपोजिटर म्हणून तो काम करतालो. उपरांत १९४१त मुंबय गव्हर्नमेंट सेंट्रल प्रेस हांगा हिब्रु कंपोजिटर म्हणून काम करूंक लागलो. १९५१-५६ ह्या काळांत तो येरवडा प्रिझन प्रेस आनी गव्हर्नमेंट सेंट्रल प्रेस, मुंबय असिस्टंट मॅनेजर म्हणून काम करूंक लागलो. १९५७-७० ह्या काळांत ताणें गव्हर्नमेंट प्रेस, बडोदा; गव्हर्नमेंट प्रेस नागपूर आनी येरवडा प्रिझन प्रेस पुणें हांगा मॅनेजर म्हणून काम केलां. १९७१-७६ ह्या काळांत बुक सेंटर प्रेस, सायन-मुंबय हांगाय तो मॅनेजर आशिल्लो. १९५३-५४ ह्या काळांत मुंबयच्या 'साद' तिम्हयनाळ्याचो आनी १९५४-५५ ह्या काळांत 'साळीक' ह्या म्हयन्याळाचो तो वावुरपी संपादक आशिल्लो.

ताणें 'यक्षप्रश्न' (१९७५) आनी 'रघुवंश' (१९७६) हाचो संस्कृतांतल्यान कोंकणी अणकार केलो. १९८०-८६ ह्या काळांत ताणें चार भागांचो, ५० हजार शब्दांचो 'कोंकणी-कोंकणी शब्दकोश' रचलो.

१९७९ वर्सा मडगांव जाल्ल्या कोंकणी लेखक संमेलनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. ताका कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कार फाव जाला. ताची 'श्रीमद्‌भगवदगीता' आनी 'भगवदगीता' हींय पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, सुभाष विष्णू :** (जल्म : ५ जुलय १९३९, पीर्ण - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आसलो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा ताणें सात इश्टांवांगडा पीर्णासावन म्हापश्यां मिरवणूक काडली. वाटेर थिवी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी आल्तिन्य बंदखणींत दवरलो. बंदखणींत ताका खूब शारिरीक त्रास सोंसचे पडले. प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १९ नोव्हेंबर १९५८ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९६८त तो पीर्ण ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हणून वेंचून आयलो. १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**देसाय, सुर्यकांती अनंत फळ :** (जल्म : ५ जून १९३८, पैंगीण - काणकोण).

सुटकेझुजारी. तिणें एस.एस.सी. तशेंच शिक्षक प्रशिक्षण केंद्राचें शिक्षण घेतलें. ती 'राश्ट्रीय कॉंग्रेस संघटनेची', वांगडी आसली. १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा लक्ष्मी बाळकृष्ण पैंगीणकार हिच्या मार्गदर्शनाखाल मडगांवां जाल्ल्या सत्याग्रहांत तिणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी तिका धरली आनी प्रदेशीक न्यायालयामुखार उबी केली. १७ जून १९५५ ह्या दिसा तिका तीन वर्सांखातीर बंदखणींत धाडली. १५ वर्सांखातीर तिचे राजकी हक्क काडून घेतले. १९५८त हेर सुटकेझुजाऱ्यांवांगडा तिचीय सुटका जाली. बंदखणींतल्यान सुटका जाले उपरांत तिणें प्रौढ साक्षरताय वर्ग तशेंच अपंगुळांखातीर प्रशिक्षण वर्ग सुरू करून म्हत्वाचें समाजकार्य केलें. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तिचो भोवमान केला. १८ जून १९८३ ह्या दिसा गोंय सरकारानूय तिचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**देहान्त शासन :** (पळयात मर्णख्यास्त).

**देहू :** महाराष्ट्रांतलें एक संतक्षेत्र. पुणें जिल्ह्याच्या हवेली तालुक्यांत

पुण्याचे वायव्य दिशेक २९ किमी. आनी देहूरोड रेल्वे स्थानकाचे ईशान्य दिशेक ५ किमी. अंतराचेर इंद्रायणी न्हंयेचे देगेर हें क्षेत्र आसा. हांगा संत तुकारामान वास्तव्य केल्ल्यान ही सुवात म्हळ्यार महाराष्ट्रांतलें एक म्हत्वाचें तीर्थक्षेत्र जालां.

हांगा एक विठ्ठलमंदिर आसा. हें देवूळ तुकारामाचो धाकलो पूत नारायणबाबा हाणें इ. स. १७२३त बांदलें. ह्या देवळाक तेंकून जो घाट आसा, ताका 'देऊळघाट' म्हण्टात. तटाचे भितल्ले वटेन एक वाडो आसा ताका 'देवूळवाडो' म्हण्टात. ह्या देवूळवाड्यांतूच इनामदारांचो म्हळ्यार तुकोबाच्या पुर्वजांचो वाडो आसा. तशेंच, थंय राममंदिर, शिवमंदिर हीं देवळां आसात. हांगाच एका अश्वत्थ (पिंपळ) झाडापोंदा तुकोबाची निर्याणाची सुवात दाखयतात. हांगा 'गोपाळपुरा' नांवाचो एक वाठार आसा. ह्या वाठारासावन सुमार अदर्चा मैलाचेर इंद्रायणीचो नामनेचो डोह आसा. हातूंत तुकोबान आपले अभंग बुडयल्ले अशें म्हण्टात.

देहूंत कार्तिक म्हयन्यांत वद्य एकादशीक देहूची पालखी आळंदीक वता. तुकारामाच्या गुरूपदेशाच्या दिसा उत्सव जाता. फाल्गुन वद्य द्वितीयेक सावन तीन दीस तुकारामाच्या निर्वाण दिसा निमतान थंय व्हड जात्रा भरता. ज्येश्ठ वद्य अश्टमीक देहूसावन तुकोबाची पालखी भायर सरता ती पुणें-सासवड-बारामती-अकलूज मार्गान आशाढ शुध्द एकादशीक पंढरपूराक पावता आनी आशाढ वद्य एकादशीक देहूक परतता.

देहूंतल्या देवरस्थानांची उदरगत जावंची आनी ताका सतत अर्थीक पालव मेळचो म्हणून छत्रपती संभाजी, राजाराममहाराज, पेशवे, रामचंद्र नीळकंठ आनी ताराबाईचो पूत दुसरो शिवाजी हाणीं देहूक कांय सरकारी वतनां आनी देहू गांव इनाम दिल्लें.

– कों. वि. सं. मं.

**दैत्य :** दैत्य ह्या शब्दाची उत्पत्ती 'दितेः अपत्यं पुमान् दैत्यः' अशी आसा. दक्ष प्रजापतिक 'दिति' म्हणून एक धूव आशिल्ली. ती ताणें कश्यप ऋशीक दिल्ली. कश्यपापसून दितिगेर जे भुरगे जल्माक आयले तांकां दैत्य अशें नांव मेळ्ळें. ते देवांचे दुस्मान अशी तांची नामना आसा. पुर्विल्ल्या साहित्यांतय दैत्य शब्दाचे उल्लेख आयिल्ले आसात. भगीरथाल्या रथाफाटल्यान गंगेवांगडा दैत्य चलताले.

अमृत मेळचें म्हणून देव आनी दैत्य हाणीं मेळून क्षीरसागराचें मंथन केलें. तातूंतल्यान भायर सरिल्ली वारुणी सुरा (सोरो) दैत्यांनी घेतली ना देखून तांकां असूर अशें नांव मेळ्ळें. उपरांत समुद्रमंथनांतल्यान आयिल्लें अमृत देवांनी घेतलें म्हणून देव आनी दैत्य हांचेमदीं लडाय जाली. हातूंत दैत्यांचो गुरू शुक्राचार्य आसलो जाल्यार देवांचो गुरू बृहस्पती आसलो. दैत्यांनी राकेसांचो आदार घेवन देवांकडेन झूज केलें. पूण देवांनी तांकां हारयलें. राम वनांत गेल्लो तेन्ना ताची राखण करपाखातीर कौसल्येन दैत्यांक आपयल्ले. दैत्य हे यज्ञविध्वंसक आशिल्ल्यान तांकां ऋतुद्विष अशें नांव पडिल्लें.

कश्यपाली आनीक एक बायल आशिल्ली. तिचें नांव 'दनू'. तिगेर जे जल्माक आयले तांकां 'दानव' अशें नांव मेळ्ळें. तांची उत्पत्ती अशी : दनोः अपत्यं पुमान् दानवः 'वृत्र' हो दानव आशिल्लो. अशें शतपथ ब्राह्मणांत म्हळां. मारीच, नमुची, नरक, तारक, शंबर हे सगळे दानव म्हळ्यार दनू पुत्र आशिल्ले. हे सगळे दुश्ट प्रवृत्तीचे आशिल्ले म्हणून हांकांय दैत्य अशें म्हण्टाले. दैत्य म्हळ्यार दुश्ट प्रवृत्तीचे लोक ह्या अर्थान कालयवन, कंस, रावण हांचो उल्लेख दैत्य म्हणून केला. संस्कृताच्या उत्तरकालीन साहित्यांत दैत्य, असूर आनी दानव हे शब्द समानार्थी म्हणून वापरल्यात. दैत्यांचो नाश करपाक विष्णून नरसिंह, राम, कृष्ण आदी अवतार घेतल्यात. तशेंच दुर्गेनय वेगवेगळीं रुपां घेवन महिषासूर, मधु-कैटभ चंडमुंड आदी दैत्यांचो नाश केलो. कांय देवांक ताणीं मारिल्ल्या दैत्यांवयल्यान नांवां मेळिल्लीं आसात. देखीक – विष्णुक कैटभजित आनी मधुसूदन; देवी महिषासुरमर्दिनी; कृष्णाक केशिनिषुदन आदी.

– अनंत राम भट

**दैववाद :** देवदेवता वा दैवी शक्तीनी मनशाच्या जल्मा वेळारूच ताच्या जल्मासावन मरणामेरेनचें भविश्य थरयल्लें आसता, अशें मानपाची वृत्ती म्हळ्यार दैववाद. नवग्रह, नखेत्रां, राशी, राशीस्वामी हांकांय दिव्य शक्तीन संपन्न अशो देवता मानतात. ह्या देवतांची बळिश्ट अशी शक्त म्हळ्यार दैव. संवसारांतल्यो सगळ्यो घडामोडी ही दैवी शक्त नियंत्रीत करता अशें दैववादी लोक मानतात. नैतीक वा बुध्दिगम्य वेवस्थेंतल्यान आनी कार्यकारण नेमांवरवीं भोंवतणच्या घडणुकांचें नियंत्रण जाता, अशें ते मानिनात.

जेन्ना सगळ्यांत व्हड अशे मनशाचे यत्न निर्फळ थरतात, अकस्मात मरण येवप वा एकाद्री विलक्षण घडणूक अनपेक्षीतपणान घडटा तेन्ना दैववादी मनशांचो दैवावयलो भावार्थ आनिकूय घट जाता. खास करून मनशाचो जल्म, लग्न, भलायकी, मरण आदी घडणुको दैवाक लागुनूच घडटात, अशें मानतात. हें दैवच मनशाक प्रगती वा अधोगतीकडेन व्हरता. खंयच्याय शाराचें, समाजाचें वा राश्ट्राचेंय भविश्य दैवान निश्चीत केल्लें आसता. जें जावपाचें आसा अशें दैवान थरयल्लें आसा, तें जातलेंच आनी जें जावंचें न्हय अशें थरयल्लें आसा, तें केन्नाच जावंचें ना; तशेंच खेळ, झूज वा हेर मळांवयलें येस अपेस हें दैवाधीन आसता, अशे समज आसतात. मनशाच्या जल्मावेळारूच ब्रह्मदेवान ताचें भविश्य ताच्या कपलाचेर बरयल्लें आसता, अशें हिंदू लोक मानतात. हिंदू धर्माप्रमाणूच संवसारांतल्या हेर सगळ्या धर्मांनी आनी संस्कृतायांनी खंयच्या ना खंयच्या रुपांत दैववादाक सुवात आसा. दैव बलवत्तर आसा, ह्या अर्थाच्यो म्हणी चडशा भाशांनी सांपडटात. सादारणपणान दादल्यांपरस बायलांमदीं दैववादी प्रवृत्ती चड दिश्टी पडटा. दैववादावयल्या ह्या विस्वासाक लागुनूच पयलीच्या काळांत राजा लोकांच्या दरबारांत राजज्योतिशी आसताले.

दैवान पयलींच थरयिल्ल्यो भविश्यांतल्यो घडणुको प्रत्यक्ष घडून येवंचेपयलींच जाणून घेवपाचे कांय मार्ग आसात, अशें मानप ही दैववादी लोकांची एक म्हत्वाची प्रवृत्ती. हे प्रवृत्तींतल्यानूच भविश्य सांगपी शकुनविद्या, फलज्योतिश, शरीरलक्षणविद्या, हस्तसामुद्रिक हीं शास्त्रां तयार जालीं. जल्मावेळावयली ग्रहस्थिती उपरांत वेळोवेळ घडपी ग्रहांची स्थित्यंतरां, ग्रहयोग, गिराणां उल्कापात, धुमकेतू, हांकां भविश्यसूचक अशें मानतात. दोळ्यांच्यो पापण्यो, हात, मांडयो आनी कुडीचे हेर अवयव पिटपिटप हें शुभ-अशुभाचें सूचक आसा अशें मानतात. कसल्याय कामाक वतना विधवा, सवायशिणी, बोडको मनीस, शिंदळकी करपी मुखार येवप हें सूचक अशें मानतात. शिंकप, खोरजप, माजर आडवें येवप, पाल चुकचुकप वा आंगार पडप, घुघूम, सुणीं रडप, कावळो आंगार बसप वा आड्डप

हे शकून शुभाशूभ सूचक अशें मानतात. हाताच्या तळव्यार आशिल्ल्यो ओळी आनी उंचवटे हांच्या स्वरुपावयल्यान तशेंच कपल, नाक, ओंठ, खाडकी, कान, नाखटां, पापण्यो, भुंवयो, कानावयले केंस हांचे रचणुकेवयल्यान वा कुडीच्या लक्षणांवयल्यान भविश्य सांगतात. कुडीवयलीं पद्म, शंख, चक्र आदी चिन्नां सूचक मानतात. तिथी, वार, म्हयने, हांचेवयल्यान काडिल्ले म्हूर्त भविश्याचे नदरेन म्हत्त्वाचे मानतात. कांय खाशेल्या आंकडयांक शुभ वा अशुभ अशें म्हण्टात. फांशे, घुलो, कौल, दिव्य नदर, संमोहन विद्या, प्लँचेट हांचोय भविश्य जाणून घेवपाखातीर उपेग करतात. जल्मपत्रिका, स्फटीक वा खाशेल्यो कंवळ्यो हातूंत पळोवनूय भविश्य सांगतात.

घडपाआदींच कळिल्लें भविश्य प्रतिकूल दिसता आसत जाल्यार तें अनुकूल करून घेवपाची इत्सा बाळगप, ही दैववादी लोकांची आनीक एक प्रवृत्ती. दैवान भविश्याची आंखणी केल्ली आसता, तरी तातूंत अनुकूल वा प्रतिकूल गजाली मनशाच्या करण्यांक लागुनूच भरतात वा दैवाचो संकेत बदलता, अशें कांय जाण मानतात. ग्रहदेवतांची आराधना, पुजा, साधना, तपश्चर्या, मंत्रतंत्र, जादू, धर्मीक कृत्यां, तावज, आंगवण, मुदयेंतले खाशेले खडे, गिऱ्यांचीं रत्नां हांचेवरवीं भविश्य अनुकूल करून घेवपाचे यत्न करतात. प्रवास, झूज, लग्न ह्या कार्यांची सुरवात म्हूर्त पळोवनूच करतात. जांचो दैवाच्या अपरिवर्तनीय स्वरुपाचेर पक्को विस्वास आसता ते मनीस दैवाक लागुनूय उजो, हुंवार, धामींचे रोग, दुकळ वा वैयक्तिक जिवितांतलीं संकश्टां येतात अशें मानतात आनी तांचो प्रतिकार करिनासतना निश्क्रीय रावतात. तांच्या मतान देवाकूय दैवाची आज्ञा मोडप शक्य ना, तेन्ना मनशान भविश्यात बदलपाचो यत्न करप व्यर्थ आसा.

हिंदू धर्माच्या तत्त्वगिन्यानाप्रमाण, ज्या पूर्वकर्माक लागून हो जल्म प्राप्त जाता आनी जाका लागून ह्या जल्मांतल्यो बऱ्यो वा वायट घडणुको घडटात, तें पूर्वकर्म म्हळ्यार दैव. हाका 'कर्मवाद' अशें म्हण्टात. पूण हो कर्मवाद कार्यकारण नेमाचेर अधिष्ठित आशिल्ल्यान हिंदूंक दैववादी म्हणचेपरस कर्मवादी म्हणप चड समा जातलें. आतां तत्त्वगिन्यानाप्रमाण जरी हिंदू कर्मवादी आसले, तरी वेव्हारांत तांचेमदीं कितल्याशाच तरांनी दैववाद दिश्टी पडटा. घडपी सगळ्या घडणुकांच्या पांच कारणांमदलें दैव हें पांचवें कारण अशें गीतेंत म्हळां. महाभारताच्या अनुशासन पर्वांत यत्न हो जमनीसारको आनी दैव हें बिजासारकेंमानलां. हिंदूंचें वैजकीशास्त्र आनी कायदो हांचेरूय दैववादाचो प्रभाव दिसता. कांय पिडा दैवाच्या प्रभावाक लागून जातात, अशें सुश्रुता सारकिल्यांनी वैजकी शास्त्रांत म्हळां. 'योगवासिष्ठ' ह्या ग्रंथांत मात दैव हो फकत एक भास, अशें म्हळां. दुबळे मनीसूच दैवाचेर विस्वास दवरतात. दैवाचेर पातयेवपी मनीस उदकांत उडयल्ल्या मडक्याप्रमाण नश्ट जाता, हीं दैवविरोधी मतांय दिश्टी पडटात.

बौध्दांच्या खंयच्याच पंथांत मुळावें तत्त्व म्हणून दैवाक सुवात नाशिल्ली. बुध्दान व्यक्तीक मोक्षाखातीर यत्न करपाक सांगलां. ताका लागून दैव कल्पनेक ताच्या उपदेशांत सुवात ना. पूण कर्मवाद ह्या अर्थान बौध्द आनी जैनूय दैववाद मानतातूच. ह्या अर्थान शीख हे तर कट्टे दैववादी (कर्मवादी) अशें मानतात.

ग्रीकांनी 'मॉरॉस' ह्या नांवाची देवता कल्पिल्ली. मनशाच्या जल्मावेळारूच ताचें भविश्य सांगपाचें काम मॉरॉस करता, अशी तांची धारणा आशिल्ली. खूब खेपे मॉरॉस शब्द 'मीरी' असो भोववचनी वापरून त्यो तीन देवता आशिल्ल्याचें मानतात. होमरच्या 'इलिअड' आनी 'ओडिसी' ह्या महाकाव्यांतूय दैवाचो प्रभाव सगळ्याक दिसता. ग्रीक साहित्यांतल्या शोकांतिकांनी दैववाद खूब प्रमाणांत आसून तातूंत मनीस म्हळ्यार दैवाच्या हातांतलें खेळणें, अशें म्हळां. खूबदां झ्यूससारके श्रेश्ठ देवूय दैवाधीन आशिल्ल्याचें मानलां.

मुसलमान लोक कट्टे दैववादी अशें मानलां. 'इस्लाम' शब्दाचो अर्थूच 'अल्लाक शरण वचप' असो आसा. कुराणांत दैववाद दिश्टी पडटाच. हे लोक किस्मत वा नशिबूच सगळ्यो गजाली नियंत्रीत करता अशें मानतात. तांच्यांत कादिरी आनी जब्री अशे दोन पंथ आशिल्ले. पयल्या पंथांतले लोक मनशांच्या यत्नांक सुवात आसा, अशें मानताले जाल्यार दुसऱ्या पंथातले लोक देवाची इत्साच सगलें किदें आसता, अशें मानताले.

सगळ्या अंधश्रध्दाळू लोकांप्रमाणूच केल्टिक लोकूय दैववादी आशिल्ले. क्रिस्तांव धर्मांत दैववाद ना, अशें म्हण्टात आसले, तरी तांचीं कांय चिन्नां दिश्टी पडटात. ज्यू लोकांचे हिब्रू भाशेंत सुर्वेक दैव ह्या अर्थाचो शब्दूच नाशिल्लो अशें म्हण्टात. पारशी धर्मांतूय सुर्वेक दैवाक सुवात नाशिल्ली; पूण उपरांत दैव हें पारशी धर्माचें एक म्हत्वाचें आंग जालें. बॅबिलोनियांत दैवाची स्वतंत्र देवता म्हणून मानवीकरण करूंक नाशिल्लें. थंयच्या लोकांच्या मताप्रमाण एकदां थरयिल्लें भविश्य वज्रलेप नाशिल्लें. तातूंत बदल जावंक शकतालो. थंयच्या आख्यायिकांनी देवांचें आनी मनशांचें भविश्य थरोवपी गुळयांचीं (Tablets Of Fate) चर्चा आसून त्यो जाचेकडेन आसात, तो सगळ्यांचें नियंत्रण करता, अशें मानताले. ईजिप्तांत दैवाचें 'शाई' हे देवतेच्या रुपान मानवीकरण केल्लें. सुर्वेक ती हानीकारक देवता अशें मानताले. पूण काळांतरान ती उपकारक आनी सोरपाच्या रुपांतली एक लोकप्रिय देवता अशें मानूंक लागले. चीनी भाशेंत दैवाक 'मिंग' म्हण्टात. चीनी लोक अपरिवर्तनीय दैवाचेर विस्वास परगटायतात आनी तरीय ताचेपसून निसरपाची शक्यताय उलोवन दाखयतात. मरण निश्चीत आसा अशें मानून शरणांगतीचे भावनेन ते मरणाची ख्यास्त मानून घेतात.

दैवानूच मरण थारायिल्लें आसा, हे भावनेन सैनीक जिवाचेर उदार जावन, निर्भयपणान झुजतात. तशेंच जिवितांत घडिल्ल्यो दुख्खाच्यो घडणुको ह्या दैवाक लागुनूच घडल्यो, अशें मानून समाधानी रावपाची प्रवृत्ती ह्या लोकांमदीं दिसता. पूण दैववादी मनीस यत्नांचें म्हत्व खबर नाशिल्ल्यान आळशी आनी निश्क्रीय जातात, हो दैववादाचो एक दुश्परिणाम.

आर्विल्ल्या काळांत बुध्दीवादाचो वाडटो प्रभाव, विज्ञानीक प्रगती, कार्यकारण नेमांचें आकलन, मनशाच्या यत्नांवरवीं जिवितांतल्यो घडणुको नियंत्रीत करूं येतात, हो अणभव. हांकां लागून दैववादाचो प्रभाव उणो जायत चलला.

– कों. वि. सं. मं.

**दोंगर :** एका थरावीक उंचायेचो आनी सदळशा कोनाच्या आकाराचो भूभाग. पायाकडे रूंद पसरट आशिल्लो भूभाग माथ्याकडेन निमुळटो जायत वता. माथ्याच्या निमुळट्या भागाक शिखर म्हण्टात. दोंगराची निश्चीत अशी उचाय थारायल्ली ना. पूण सर्वसादारणपणान ताची उंचाय

१००० मीटर आसची असो संकेत आसा. व्हड दोंगराक पर्वत म्हण्टात. ल्हान दोंगराक दोंगुर्ली म्हण्टात. भोवतेक करून दोंगर एकोडो आसना. दोंगराच्यो वा पर्वताच्यो रांको आसतात. तांकां दोंगर रांको वा पर्वतावळी म्हण्टात. बऱ्याच पर्वताओळींच्या चोम्यांक पर्वत समुह म्हण्टात. उदकावयल्या भूखंडाप्रमाणच उदकापोंदच्या समुद्रखरीर (सागरतळ) दोंगराच्यो रांगो आसात. अटलांटिक महासागरांतली मध्य अटलांटिक ही दर्यापोंदची पर्वत श्रेणी आसा. दर्यापोंदच्या कांय पर्वतांचीं शिखरां उदकाच्या थरापोंदा कांय अंतराचेर आसतात तर कांय शिखरां उदका थरावयर पाविल्लीं आसतात.

धर्तरेच्या कट्ट्यांत आनी कट्ट्यापोंदच्या भुगोलीक हालचालींच्या परिणामातल्यान वेगवेगळ्या तरांचे दोंगर निर्माण जाल्यात.

**ज्वालामुखी दोंगर :** धर्तरेच्या पोटांतलो शिलारस (लाव्हा) वाट मेळटा तसो धर्तरेचें कट्टे फोडून भायर सरता. शंकुच्या आकाराची ही शिलारसाची रास थंड पडटकच तिचें रुपांतर दोंगरात जाता. जपानांतलो फुजियामा, इटलिंतलो व्हीस्यूव्हीयस, अर्जेंटिनांतलो अॅकेग्वाया, मॅक्सीकोंतलो पॅरिकुटिन, हवाई बेटावेलो बावुनालेवा हे ज्वालामुखीपसून तयार जाल्ले मुखेल पर्वत आसात.

**घुमटी दोंगर :** धर्तरेच्या कट्ट्यांतले हालचालीक लागून वा ज्वालामुखीच्या फोर्सान धर्तरेचो भाग वयर उखलून घुमटा आकाराचो उंचवटो निर्माण जाता. अशा दोंगराक घुमटी दोंगर म्हण्टात. उत्तर अमेरिकेंतलो हॅन्री पर्वत दक्षिण डकोटांतलो ब्लॅक हिल्स दोंगर ह्यो घुमटी पर्वताच्ये देखी आसात.

**पठारी दोंगर वा अवशेशी दोंगर :** न्हंयो, वारो, पावस हांकां लागून सतत जमनीची धूप जायत आसता. पठारांतलो खुसखुशीत भाग व्हांवून वचून उरिल्ल्या घट्ट आनी थीर अशा भागाचो दोंगर तयार जाता. सह्याद्री, अस्तंत घाट, उदेंत घाट, विंध्य सातपुडा हे अवशेशी दोंगर आसात. गोंयचे दोंगर हे पठारी दोंगरात आस्पावतात.

**फुटी दोंगर :** जमनीत भितरले हालचालींक लागून जमनीक फूट पडून जमनीचे विशिश्ट भाग जमनीत खचतात. न खचिल्लो भाग सभोंवतणीच्या वाठारापरस उंच उरिल्ल्यान ताका दोंगराचें रूप प्राप्त जाता. कॅलिफोर्नियांतली सियेरा नोवाडा ही पर्वत रांग ह्या प्रकाराखाल येता.

**घडयां दोंगर :** धर्तरेच्या कट्ट्याचें भायलें आवरण भूंयपट्ट्यांपसून तयार जाल्लें आसा. हे पट्टे केन्नाकेन्नाय धर्तरेच्या कट्ट्याचेर दाबा घालपाक कारणीभूत जातात. ह्या दाबाक लागून फातराच्यो घडयो पडटात. अनिर्बंध काळामेरेन ही घडयांची प्रक्रिया चालू उरून पर्वतांची रांग निर्माण जाता. आशियांतलो हिमालय, युरोपांतलो आल्पस, अमेरिकेंतलो अॅपालॅचिअन हे घडयांपर्वत आसात.

**पर्वतरांगो :** सगळ्या व्हडल्या पर्वतांचो मुखेलपणान दोन जोडयांनी आस्पाव करूं येता. पॅसिफिक महासागराभोंवतणी पसरिल्ली एक जोडी. हे जोडयेंत उत्तर अमेरिका, सायबेरिया, दक्षिण अमेरिका आनी अस्तंत पॅसिफिक महासागरांतल्या द्विप मालिकेंत आस्पावता. त्यो पर्वतरांगो अशो : अलास्का, रॉकी, कोस्टल रेंज, अॅपालॅचिअन, अँडीज.

दुसरे जोडयेची सुरवात उत्तर आफ्रिकेंतल्या अॅटलास पर्वतापसून सुरू जावन उदेंतेक इंडोनेशिया मेरेन ती पाविल्ली आसा. हे जोडयेंत आस्पाविल्ल्यो पर्वतरांको अशो : पिरेनीज, अॅपेनाइन्स, आल्प्स, झॅग्रॉस, एल्बझ, उरल, हिंदुकुश, काराकोरम, हिमालय, कुनलुन, तिएनशान, अल्ताई, व्हर्कोयान्स्क, इंडोनेशिया रांगो.

**भारतांतल्यो पर्वतरांको अशो :** हिमालय पर्वत, पुर्वाचल पर्वत, अरवली पर्वत, विंध्य पर्वत, सातपुडा पर्वत, सह्याद्री पर्वत.

**भारतांतलीं पयलीं धा उंचेलीं पर्वत शिखरां -** (१) K2 (८६११ मी.) (२) कांचनजुंगा (८५९८ मी.) (३) नंगा पर्वत (८१२६ मी.) (४) घाशब्रम (८०६८ मी.) (५) बॉड पीक (८०४७ मी.) (६) डिस्टेघीलसार (७८८५ मी.) (७) मशरब्रम (७८२१ मी.) (८) नंददेशी (७८१७ मी.) (९) मशरब्रम (अस्तंत ७८०६ मी.) (१०) राकापोशी (७७८८ मी.)

**गोंयच्यो पर्वतरांगो अशो :** भारताच्या अस्तंत घाटांत सह्याद्री दोंगरावळीचो सुमार ६६ चौ. किमी. वाठार गोंयांत पडटा. ह्या दोंगरातेंगशांची सुमार १२५ किमी. लांबायेची ओळ गोंयचे शीमेभोंवतणी पातळ्ल्या. उदेंत गोंयच्या वाठारांत ह्या दोंगराच्यो ऊंच तेंगश्यो आसात. हातूंत नोंद घेवपासारक्यो अशो : सोंसोगड (३८२७ फूट), वाघेरी (३५०० फूट), सिध्दनाथ (१२४२ फूट), चंद्रनाथ (१०५३ फूट).

**दोंगराचीं कार्यां : (अ) हवामान :** दोंगर हे वाऱ्याचे मुखेल अडथळे जावन आशिल्ल्यान थरावीक हवामानाचें वारें पर्वतांच्या दिकेप्रमाण व्हांवता आनी त्या त्या वाठाराक त्या त्या वाऱ्याचें तें तें हवामान प्राप्त जाता. पर्वतांकलागून सायबेरियाक कडक थंडी, गंगा सिंधूच्या मैदानात कडक उश्णता अशें हवामान आसता. वाऱ्याचो आनी पावसाचो लागींचो संबंद जाल्ल्यान सह्याद्री आनी हिमालय पर्वताच्या वाऱ्याक तोंड दिवपी भागाचेर खूब पावस पडटा. तर वाऱ्याचेर फाट आशिल्ल्या भागाचेर पावसाचो दुश्काळ आसता.

**(आ) जिवसृश्ट :** पावसाचो आनी उश्णतेचो संबंद वनस्पतीकडेन आशिल्ल्यान वनस्पतींचें प्रमाण आनी प्रकार थारावपांत पर्वतांचें योगदान आसता. वनस्पतींचो आनी जनावरां धरून हेर प्राण्यांचो लागींचो संबंद आशिल्ल्यान वनस्पतीवांगडाच प्राण्यांचें प्रमाण थारावपाक पर्वतांचो वांटो आसता.

**(इ) संस्कृती :** संवसारांतल्या वेगवेगळ्या संस्कृतींनी पर्वतांक देवांचीं वसतीस्थानां ह्या नात्यान पूज्य मानल्यात. दोंगर पर्वताच्या माथ्यार देवळां बांदप, पर्वताच्या शिखरांचेर ध्यान साधनेखातीर ऋषीमुनी वास्तव करतात. ग्रीसांतलो ओलिंपस, भारतांतलो हिमालय आनी जपानांतलो फुजी हे पर्वत भाविकांखातीर धर्मस्थळां जाल्यांत. कैलास पर्वत, मेरू पर्वत, गोवर्धन पर्वत हांचें महात्म्य पुराणांत सांगलां.

पर्वतांच्या आडखळींक लागून दोन संस्कृतींमदीं व्हडलीशी देवघेव जावंक पावना. हाका लागून पर्वतालागीं रावपी लोकांक भायल्या जगाचो व्हडलोसो संपर्क येना आशिल्ल्यान तांचें मदीं आधुनिकतेचें प्रमाण उणें आसता.

पर्वत हें संरक्षणाचें सैमीक साधन जावन आसा. रोमाच्या आल्पस पर्वतान जाल्यार भारताच्या हिमालय पर्वतान सैमीक रितीन संरक्षण केलां.

**अर्थकरण :** पर्वताचो आनी पावसाच्या उदकाच्या प्रमाणांचो संबंद उरिल्ल्यान ह्या वाठारांत एक खाशेली दोंगरी वनस्पत निर्माण जाता. हातूंत गोरवांखातीर चारो, वखदी द्रव्यां, च्या, काफी, केशर, हीं पिकां आनी खाशेले तरेचें लाकूड हांचो आस्पाव जाता. दोंगरावेल्यान सकयल देवपी उदकाच्या लोंढ्यावरवीं जावपी जलविद्युत् केंद्रां, उद्येगधंद्याखातीर

उर्जासाधन म्हणून उपेगी पडटात. पर्वतावेल्या उदकावांगडा सकयल देविल्लो गाळ, सकयले जमनीचो कस वाडोवन शेती उत्पादन वाडीक मदत करता. दोंगराच्या पोटांत मोलादीक अशा धातुंचे साठे उपलब्ध आसात.

**खेळ आनी करमणूक :** गिर्यारोहण हो एक आंतरराश्ट्रीय नामनेचो साहसप्रकार. बर्फाळ दोंगराचेर लोकप्रिय आशिल्लो स्केटिंग होय एक क्रिडाप्रकार. पर्वतावेली सैमीक सोबीतकाय, मेकळी हवा, शांतीकाय, हांकां लागून पर्वत आनी दोंगर हीं पर्यटन स्थळां म्हूण विकसीत जायत आसात.

**संवसारांतल्या ऊंच अशा दोंगरांची वळेरी -**

| नांव | सुवात | उंचाय (मी.) | |
|---|---|---|---|
| १) माउंट एव्हरेस्ट | नेपाळ, तिबेट | ८,८४८ | संवसारांतलो सगळ्यांत उंच दोंगर. |
| २) $K_2$ गोडव्हीन ऑस्टेन | भारत | ८,६११ | भारतांतलो सगळ्यांत उंच पर्वत. |
| ३) कांचनजंगा | भारत | ८,५९८ | उंचायेन भारतांतलो दुसरो आनी संवसारांत तिसरो दोंगर. |
| ४) कम्युनीजम पीक | रशिया | ७,४९५ | रशियांतलो सगळ्यांत उंचेलो दोंगर. |
| ५) आकोनकाग्वा | अर्जेंटिना | ६,९६० | दक्षिण ध्रुवांतलो सगळ्यांत उंचेलो दोंगर. |
| ६) माउंट मॅकिन्ली | उ. अमेरिका | ६,१९४ | उत्तर अमेरिकेंतलो सगळ्यांत उंचेलो दोंगर. |
| ७) किली मांजारो | टांझानिया | ५,८९५ | आफ्रिकेंतलो सगळ्यांत उंचेलो दोंगर |
| ८) मोंत ब्लांक | फ्रांस/इटली | ४,८०७ | अस्तंत युरोपांतलो सगळ्यांत उंचेलो दोंगर. |
| ९) मौनाकी | अमेरिका | ४,२०५ | संवसारांतलो सगळ्यांत उंचेलो दोंगर जुंवो. |
| १०) माऊंट कूक | न्यूझीलँड | ३,७६४ | न्यूझिलँडांतलो सगळ्यांत उंचेलो दोंगर. |
| ११) सोंसोगड | गोंय | १,१८६ | गोंयचो सगळ्यांत व्हड दोंगर. |

- सचीन सबनीस

- कों. वि. सं. मं.

## दों मोरायश : (जल्म : १९ जुलय १९३८, मुंबय).

नामनेचो कवी, लेखक आनी पत्रकार. संवसारीक नामनेचो भारतीय पत्रकार फ्रँक मोरायश हो ताचो बापूय. ताणें बी.ए.मेरेन शिक्षण घेतलें. पिरायेच्या एकुणिसाव्या वर्सा ताका ताच्या 'अ बिगिनींग' (A Beginning) ह्या इंग्लीश कवितां झेल्याक 'हॅथोर्नडेन प्रायझ' हो प्रतिश्ठेचो पुरस्कार फावो जालो. 'जॉन नोबडीं' (१९६५), 'पोयम्स' (१९६०) 'वॅल्डम ॲन्ड अदर्स' (१९६८), 'ॲबसेन्स' (१९८३) ही ताच्या कवितांची आनीक कांय पुस्तकां. ताचो 'कलॅक्टेड पोयम्स' (१९५७-१९८७) हो सगळ्या कवितांचो झेलो पॅंग्वीन बुक्स इंडियान भारतांत उजवाडायलो (१९८७). तातूंतले 'लेटर पोयम्स' ह्यो १९६७-१९८७ मेरेनच्या काळांतल्यो कविता. 'द ब्रास सरपंट' १९६४, 'एडिटेड वोयस फॉर लायफ (१९७५) हीं ताचीं अणकारीत पुस्तकां.

तो १९५६-५८ ह्या काळांत 'जेमिनी' ह्या ऑक्सफर्ड-केंब्रिज साहित्यीक परिक्षण पत्रिकेचो संपादक, १९६५-६८ ह्या काळांत 'नोवा' ह्या लंडनाचे पत्रिकेचो फिचर एडिटर, १९६९-७१ ह्या काळांत न्यूयॉर्क टायम्स सण्डे मॅगझीनाचो युरोप आनी उदेंत आशियाकडलो भोंवतो खबराकार, १९७१-७३ ह्या काळांत 'धी एशिया मॅगझीन' हाँगकाँग हे पत्रिकेचो मॅनेजींग एडिटर, १९७३-७७ ह्या काळांत यू. एन. फंड फॉर पॉप्यूलेशन ऑक्टव्हीटीज हे संयुक्त राश्ट्र संघटणेचो स्पेशल लिटररी कन्सल्टंट आनी सण्डे स्टॅण्डर्ड, मुंबय ह्या इंग्लीश पत्राचो कांय काळापुरतो संपादक आशिल्लो.

ताची गद्य बरपावळ अशी - `Green in the Grass' (१९५१), `Gone away' (१९६०), `My Son's Father' (१९६८), `A Matter of People' (१९७४), `A Family in Goa' (१९७५), `The open Eyes' (१९७६), `The Tempest Within' (१९७२), `From East & West' (१९७२), `Bombay' (१९८०), 'Mrs. Gandhi' (१९८०), `Answered by Flutes' (१९८३).

१९८० वर्सा धर्तरेक प्रदक्षिणा घालपी भारताची पयली नौका 'तृष्णा' आनी तिचे वयले धाडशी तारवटी हांगेल्या आठ म्हयन्यां मेरेनच्या काळांत मुलाखती घेवन तृष्णाचे शौर्यकथेचेर ताणें एक पुस्तक बरयलां. तेचपरी भारतीय क्रिकेट खेळाच्या मळार 'लिजॅण्ड' जावन बशिल्ल्या लिटल मास्टर सुनील गावस्कर हाचें `An Ilustrated Biography - Sunil Gavaskar' चरित्र ताणें बरयलां. गोंयच्या उद्देगीक धेंपे घराण्याच्या इतिहासाचेरय ताणें एक पुस्तक बरयल्लां.

`Lamont Prize for Literature' (१९६९), `Citation for Excellence in Journalism', ओव्हरसीज प्रॅस क्लब ऑफ अमेरिका (१९७२) हे ताका मेळिल्ले कांय पुरस्कार.

तो निधर्मीपणाचो आनी राश्ट्रीय एकात्मतेचो एक कट्टर पुरस्कर्तो. लिला नायडू हे हिंदू फिल्म अभिनेत्री वांगडा तो लग्न जाला.

- श्री. लक्ष्मीदास बोरकार

## दोमळो : (पळेयात मूय).

## दोस्तोयेवस्की, फियोदोर मिखायलोविच : (जल्म : ११ नोव्हेंबर, १८२१ मॉस्को; मरण : ९ फेब्रुवारी १८८१, पिटर्सबर्ग).

रशियी नवलिका-लेखक. युरोपी साहित्यांत बीजमूलक बरप करपी



तांकिवंत बरोवप्यांमदलो एक. अर्वाचीन नवलिका आनी आर्विल्ले विचारसरणीचेर आकांताचो प्रभाव घालपी प्रतिभाशाली विचारवंत.

मॉस्को प्रायव्हेट बोर्डींग स्कुलांत सुर्वेचें

शिकप जाले उपरांत १८३७ वर्सा तो सेंट पिटर्सबर्गाक आर्मी इंजिनियरींग कॉलेजींत दाखल जालो. १८४३ वर्सा कमिशन मेळटकच, तो आर्मी इंजिनियरींग कोरांत भरती जालो. पूण १८४४ वर्सा ताणें कमिशन सोडून दिलें आनी स्वताक साहित्याक ओंपून घेतलो. ताची पयली स्वतंत्र लेखनकृती 'बेद्‌नियै ल्यूदि' १८४६ वर्सा उजवाडा आयली.

१८४६ वर्सा तो समाजवादी चळवळींत घुसपलो. १८४७ वर्सा तो 'पित्रशेव्‌स्की' पक्षांत सामील जालो आनी २३ एप्रिल १८४९ दिसा बंदखणींत घालून ताका मर्णाची ख्यास्त फर्मायली. पूण उपरांत ही ख्यास्त फाटी घेवन चार वर्सां सश्रम बंदखण ताका सायबेरियेच्या कारागारांत भोगची पडली. थंय तो आठ वर्सां उरलो आनी १८ वर्सां पिटर्सबर्गाक वतकच आपले साहित्यीक जिणेक परतून सुरवात केली. मजगतीं, ६ फेब्रुवारी १८५७ दिसा मारिया इसायेव्ह हे २९ वर्सांचे विधवेकडेन तो लग्न जालो.

१८४४ ते १८४९ ह्या काळांत ताणें १० ल्हान-व्हड कथा बरयल्यो. ताची 'पूअर पिपल' (१८४५) ही कथा ब्यिल्यीन्स्कई ह्या नामनेच्या टिकाकाराच्या मतान रशियेंत जाल्लो समाजीक नवलिका बरोवपाचो पयलोच यत्न. दोस्तोयेव्हस्कीच्यो हेर कथा म्हळ्यार 'द डबल' (१८४६), 'मिस्टर प्रोखारचिन' (१८४६), 'द लँडलेडी' (१८४७), 'व्हायट नायट्स' (१८४८) आनी फुडें 'क्रायम अँड पनिशमँट' ह्या रुपान नामनेक पाविल्ले नवलिकेची संकल्पना गर्भरुपान केळोवपी 'धी ऑनॅस्ट थीफ' (१८४८). ही कथा ताणें सायबेरियांत बंदखणींत आसतना बरयली. बंदखणींतल्यान सुटका जातकच ताणें 'माय अंकल्स ड्रीम' आनी 'द विलेज ऑफ स्टेपांनचिकोवो' ह्यो दीर्घकथा बरयल्यो. बिटस्‌बर्गाक परत गेले उपरांत उजवाडा आयिल्ल्यो ताच्यो साहित्यकृती अशो आसात - 'दी इन्सल्टेड अँड दी इन्जुअर्ड' ही नवलिका आनी आपजिणेचो रुपकार आशिल्ली 'द हाऊज ऑफ द डॅड'. ह्या दोनूय कृतींतल्यान सायबेरियी बंदखणींतलें नरकासमान विश्व वास्तवतायेन दोळ्यांसामकार उबें जाता.

पूण उपरांतच्या काळांत ताच्या साहित्यांत एक अध्यात्मीक शक्त संचरिल्लेवरी दिसता. ताका लागून ताच्या पात्रांमदीं दुख्ख - दगदग हालांतल्यान पुनरुज्जीवन मेळोवपाची तांक दिश्टी पडटा. 'सक्रीय' मोग आनी भक्तीरुपी ल्हानपण हे गूण ताच्या 'दी इडियट' हे नवलिकेंतलो 'मिश्कीन' आनी 'दी ब्रदर्स कारमाझोव' हातूंतल्या 'अलोयशा' ह्या पात्रांत उठून दिसतात.

१८५९ वर्साचे अखेरेक ताणें आपलो भाव मिखायल हाच्या सांगातान 'टाय्म' हें नेमाळें काडलें. पूण पॉलीश क्रांतीसबंदान उजवाडायिल्ल्या एका लेखाक लागून तें बंद करचें पडलें. उपरांत ताणें 'इपॉक'-हे नेमाळें काडलें, पूण तेंय चड तेंप चललें ना. ताचे बायलेक आनी भावाक दोन वर्सांभितर आयि़ल्ल्या मरणान तो भायल्या देशांत गेलो.

१८६४ ते १८६६ मेरेन ताणें आपली क्रायम अँड पनिशमँट ही नवलिका पुराय केली. हे कृतींत ताचो हेत, गुन्यांवकारीचो मानसोपचारीक अभ्यास करून तशेंच एक तत्कालीन जिवितांतल्यान निर्मल्ली नवलिका करप हो आशिल्लो. हे नवलिकेंतल्यान ताणें कांय असादारण व्यक्ती कायदद्यापरस व्हड आसतात, हे निपोलियनी विचारसरणेचो फाटसोद घेवपाचो यत्न केला.

परदेसांतल्या ४ वर्सांच्या राबित्यांत 'दी इडियट' आनी 'द डॅविल्स' ह्यो दोन नवलिका ताणें बरयल्यो. पूण 'दी इडियट' हे नवलिकेन ताका समाधान मेळ्ळेंना. सामक्यो तोंकाच्यो कल्पना केळयिल्ल्यान ताका त्यो नवलिकेंत मूर्त रुपांत हाडूंक फावो तें येस मेळ्ळेंना. 'द डॅविल्स' हेय कृतीक अशीच घुस्पटिल्ली नामना मेळ्ळ्या. एका अर्दान ती कृती लेखकाली तेजिश्ट नदर, ताचें मानवी मनाकडलें लागशिल्लें नातें आनी ताका मेळिल्लें जिणेचें गिन्यान हांचेर उजवाड घालता, जाल्यार दुसरे वटेन ती कृती ताचो खर द्वेश आनी खर धर्मीक विस्वास उक्तायता.

विस्कटपी कुटुंबांचेर आदारिल्ली 'दी ॲडोलसँट' आनी 'द ब्रदर्स कारमाझोव' ह्यो ताच्यो म्हत्वाचो प्रकल्प जावन आशिल्ल्यो नवलिका बरयल्यो. 'द ब्रदर्स कारमाझोव' हे नवलिकेंत दोस्तोयेव्हस्कीन एक व्हड साहित्यीक तशेंच एक निर्भय, खोलाय आशिल्लो विचारवंत अशी नामना जोडल्या.

- किरण बुडकुले

**दोहा** : एक छंद. हो मात्रीक अर्धसम छंद. दोग्धि चित्तमिती दोहा = जो चित्त दवित करता, तो दोहा, अशी हाची व्याख्या केल्या. द्विपदी ह्या शब्दावयल्यान हें नांव आयलां अशें मानतात. हातूंत पयल्या आनी तिसऱ्या चरणांनी १३ मात्रा आनी दुसऱ्या आनी चवथ्या चरणांनी ११ मात्रा आसतात. चरणाचे अखेरेक यती आसता. विशम चरणाचे अखेरेक ज गण नासचो आनी निमाणें लघू आसचो असो नेम आसा.

हिंदी भाशेक हो छंद अपभ्रंश भाशेकडल्यान मेळ्ळो. अपभ्रंशांत आनी हिंदी भाशेंत दोह्यांचे कितलेशेच झेले आसून मुनीयोगीन्द्र, रामसिंह, देवसेन आनी हेर बौध्द सिध्द हांणी आपले रचणुकेंत दोहा छंदाचो उपेग केला. 'प्राकृतपैङ्गलम्' ह्या छंदोग्रंथांत वट्ट तेवीस दोहा प्रकारांची विस्कटावणी केल्या.

हिंदींतल्या चडशा सगळ्या कवींनी हो छंद वापरला. दोहा हो मुक्तक काव्याचो म्हत्वाचो छंद. भक्तीयुगांतले प्रबंध रचणुकेंत दोह्याचो व्हडा प्रमाणांत उपेग केल्लो दिसता. तुलसीदासाचें 'रामचरित मानस' आनी जायसीचें 'पद्मावत' हातूंत दोहे मेळटात.

दोहा आनी साखी हे शब्द सारक्या अर्थाचे आसात. कबीराच्यो साख्यो ह्यो दोह्यांसारक्योच आसात. साखी हो साक्षी ह्या उतराचो अपभ्रंश जावन आसा. गोरखपंथी काव्याच्या प्रभावाक लागून कबीरपंथी कवींनी हो छंद आपणायलो, अशें म्हण्टात. बिकानेरचो राजा अनूपसिंह हाणें 'दोहा-रत्नाकर' नांवाचो एक व्हडलो दोह्यांचो झेलो तयार करून घेतिल्लो. तातूंत शेंकड्यांनी कवींचे सुमार ४५०० दोहे संकलीत केल्ले आसात.

अपभ्रंश साहित्याचे उदरगतीवांगडा दोहा छंदाचो प्रचार वाडलो. हिंदी भाशेप्रमाणूच राजस्थानी आनी गुजराती भाशांनीय दोह्यांची रचना जाल्या. साहित्याच्याच मळार न्हय, जाल्यार लोकवेदांतूय दोहा छंदाक म्हत्वाची सुवात प्राप्त जाल्या. लिखीत दोह्यांपरस तोंडयां घोळत प्रचलीत जाल्ल्या अलिखीत दोह्यांचो आंकडो खूब व्हड आसा.

जैन लोक पुजेचे सुर्वेक वेगवेगळ्या रागांनी दोहे गायतात. ह्या छंदांत वेगवेगळ्या विशयांचेर काव्यां निर्मिल्लीं दिसतात. सामान्य विशयांप्रमाणूच आयुर्वेद, ज्योतीश ह्या विशयांवयले कांय ग्रंथूय दोहा छंदांत रचिल्ले आसात.

दोह्याचें एक उदाहरण अशें -

स्वर्ग सात असमानपर, भटकत है मन मूढ ।

खालिक तो खोया नहीं, उसी महल में ढूँढ ॥

**अर्थ** - हे मूर्ख मना, सात सर्गांच्या अवकाशांत तूं हेडटा, पूण परमेश्वर खंयच शेणूंक ना. तूं जंय आसा थंयच ताका सोद.

- कों. वि. सं. मं.

**दोळो आनी दोळ्याचे विकार :** मानवी शरिरांतल्या ज्ञानेंद्रियांतलें एक म्हत्वाचें इंद्रीय. उजवाड, काळोख, वस्तू, तांचो रंग, आकार, रूप हें दृश्टीज्ञान मनशाक दोळ्यांकडल्यान मेळटा. गिन्यान मेळोवप, सैमाक तेळप, भोंवतणच्या घडामोडींची जाणविकाय करून घेवप आदी गजाली आमी चडश्यो दोळ्याच्या आदारान करतात. दोळ्यांची हालचाल, दोळे उगडप-धांपप, तांचें तेज हातूंतल्यान वेगवेगळ्यो भावना उकत्यो जातात. मुखामळाची सोबीतकाय खूबशी दोळ्यांचेर आदारून आसता. हाका लागून दोळो हो एक म्हत्वाचो अवयव जाल्ल्यान ताची जतनाय घेवप खूब गरजेचें.

तकले सकयल फुडल्या भागांत हाडांच्या फुनेलाचे खोलायेंत २४ मीमी. व्यासाचे गड्ड्यावरी वाटकुळे दोळे बसयल्ले आसतात. तांचो फुडलो भाग कांय प्रमाणांत (bulged) फुगीर आसता. हो भाग कंवचेवरी आसून ताका पारदर्शनेत्रपटल (Cornea) म्हण्टात. पारदर्शनेत्रपटला भितर एक काळो पड्डो आसता, जाका परितारिका (Iris) म्हण्टात. ह्या पट्ट्यावयल्यानच मनशाच्या दोळ्यांचो रंग दिसता. थोड्यांचो ह्या पड्ड्याचो रंग घारसो वा निळो वा कसल्याय रंगाचो आसूं येता. जाचेवयल्यान ताचे दोळे घारशे वा निळे तें थरोवप जाता. परितारिकाचे मदीं एक वाटकुळो बुराक आसता, जाका बावली (Pupil) म्हण्टात. हो बुराक दोळ्याचेर उजवाड पडटकच बारीक जाता आनी दोळ्यांत वचपी उजवाडाचें नियंत्रण करता.

दोळ्याच्या आंगाक तीन थर आसतात. भायल्याक श्वेतपटल (sciera) म्हण्टात. तो धवो आसता. दोळ्याक घटाय दिवप आनी दोळ्याच्या भितल्ल्या भागाची राखण करपाचें काम करता. पारदर्शनेत्रपटल (Cornea) हो हाचोच फुडलो भाग आसता. मदलो थर दोळ्याक आहार पावयता. हाचे फुडले वटेनच्यान फाटीं अशे तीन भाग आसात. परितारिका (Iris), रोमक (Ciliary) आनी रंजितपटल (Choroid), दृष्टिपटल (Retina) हो सगळ्यांत भितल्लो पड्डो. आमी पळयतात त्या वस्तूंची हाचेर प्रतिमा तयार जाता. (visual impression) दृष्टिपटलावयरची प्रतिमा नेत्रचेता (optic nerve) वरवीं मेंदवाक पावता. दोळ्याक जें दिश्टी पड्टा तें नेत्रचेता (optic nerve) मेंदवांत व्हरता आनी थंय खरी निमाणी समजिकाय जाता. बावलेच्या फाटल्यान आशिल्ल्या भागाक स्फटीकभींग (Crystalline Lens) म्हण्टात. दोळ्याच्या भिंगामुखावयली सुवात परितारिका दोन भाग करता. (१) भायली कूड (Anterior chamber) आनी २) भितल्ली कूड (Posterior chamber). भायली कूड हातूंत उदकावरी (Aqueous fluid) आनी भितल्ली कूड हातूंत जॅली (vitreous humour)आसता. दोळ्याच्यो पातयो आनी भुंवयो दोळ्याक तेंकूनूच पूण भायले वटेन आसतात. त्यो फुडले वटेन दोळ्यांची राखण करतात. दोळ्यांत धुल्ल, धुंवर, कुसकूट वा कसलीय आडखळ वचचेआदीं पातयो बंद जातात आनी दोळ्यांक मार लागना. पातयो उकत्यो आनी बंद जावपाचें नियंत्रण मेंदवांत आसता. पातयो मिनटाक ११-१४ फावट उकत्यो आनी बंद जातात. ह्या वेळार त्यो दोळ्यांत पडिल्लो कोयर आदी निवळ करतात आनी दोळ्यांचीं दुकां हारशाचेर पातळायतात. हाका लागून दोळ्याचो हारसो ओलो उरता. (हारसो सुकल्यार तो धवो जाता आनी दिसपाचें बंद जाता.) मनशाक पुरो जाता तेन्ना शरिराक आनी मेंदवाक सुशेग जाय आसता. दोळे उकते दवरून आड पडल्यार शरिराक सुसेग मेळटा पूण मेंदवाक मेळना. जेमेरेन दोळे उकते आसतात तेमेरेन मेंदवाचें काम चालू आसता. देखून जेन्ना मनशाक न्हीद येता तेन्ना आपशींच दोळे ल्हव-ल्हव बंद जातात.

दुकांवाहिनी (Lacrymal systems) दोळ्याच्या, नाकाच्या अर्दान आसता. हातूंतली दुकांगांठ दुकां तयार करता, दुकां दोळो ओलो करता आनी तातूंतल्यो अंतर्वस्तू दोळ्यांक संसर्गापसून वाटायता. दोळ्यांत दुकां जाय ताचेपरस चड आसल्यार दुकांवाहिनींतल्यान तीं नाकांत वतात. तशेंच मनीस रडटा तेन्ना दुकां नाकांत येतात. नाकांत थंडी जाल्यार केन्नाकेन्नाय दोळे तांबडे जातात वा जळटात. कारण दोळ्याचो संबंद नाकाकडेन आसता.

दोळ्यांक हालोवपी स स्नायू आसतात. हे दोळ्याक वेगवेगळे वटेन घुंवडायतात. हांचें नियंत्रण मेंदवांत आसता. दोनय दोळ्यांमदीं आनी मातशें सकयल नाक आसता. दोळ्याचे वयले वटेन मेंदू जाल्यार मातशें सकयल आनी उजवे वटेन सायनस आसता. हे सगळे भाग वेगवेगळ्या हाडांमदीं आसतात.

दोळ्याचे विकार उपजत (Congenital and developmental) सादे, गंभीर आनी नदरेक मार करपी (Affecting vision) आसतात. एक-एक भुरगें दोळे नासतनाच (Anophthalmos) जल्माक येवंक शकता. केन्ना केन्नाय भुरग्याक एकूच दोळो आसता वा अर्दकुटो तयार जाल्लो दोळो (Rudimentary eye) आसता. कांय खेपे दोळे सगळे सारके आसुनूय तांचो खंयचोय एक भाग सारको नासता. (Opaque cornea) वा आख्खो भाग नासता वा परितारिका नासप (Aniridia), भींग नासप (Congenital Apnakia) अशेंय जाता. जल्माक येतनाच वा थोड्या वर्सांनी भुरग्याक मोतीबिंदू (Cataract), तुंबर (Dermoid), कॅन्सर (Retinoblastoma) जावंक शकता. मोतीबिंदू आनी तुंबर ऑपरेशन करून बरे जांव येतात. पूण कॅन्सर जाल्यार चड करून दोळो काडचो पडटा.

रंग सारके वळखूंक न येवप हाका रंग आंधळेंपण म्हण्टात. ह्या दुयेंसाक अजूनमेरेन उपाय सापडूंक ना. हें दुयेंस नदरेक मार करिना. पूण दुयेंतीक रंगांच्यो सया सारक्यो वळखूंक येनात. रातचें वा मातशें काळखांत लेगीत उणें दिसप हें रातआंधळेंपण. हें दुयेंस १० - १५ वर्सांचेर सुरू जाता. हाका उपाय ना. हें पिळगेन पिळग्यो मुखार वचपी वशाचें दुयेंस. केन्नाकेन्नाय तें एक पिळगी सोडून दुसरे पिळगेक जाता. ह्या दुयेंसाक उपाय नाशिल्लो. पूण हालींच क्युबा ह्या देशांत हाचेर उपाय सोदून काडला. केन्ना केन्नाय दोळ्यांत कुसकूट, रेंवेचो कण, बारीक जीव वा हेर कसलेंय बारीक कुसकूट पडूंक शकता. हें कुस्कूट रोखडेंच काडपाक जाय. तें तशेंच उरल्यार नदरेक बादा हाडूंक शकता.

अकस्मात दोळ्यांत बडी वा हेर कितेंय तोपल्यार वा अपघात जाल्यार दोळ्याक वा दोळ्याच्या हारशाक मार बसूंक शकता. अशें जाल्यार ऑपरेशन करून दोळो वाटांव येता. कांय खेपे पारदर्शनेत्रपटलाक धवो दाग उरिल्ल्यान (White opacity) नदर अचकीत उणी जावंक शकता. अशा मनशाचो पारदर्शकनेत्रपटल कापून काडून ताका मेल्ल्या मनशाचो (मरतकच रोखडोच) पारदर्शनेत्रपटल काडून ऑपरेशन करून घालूंक

जाता. हें ऑपरेशन त्या मनशाच्या मरणापसून स वरांभितरूच करूंक जाय. मेल्लो मनीस तरणे पिरायेचो आसल्यार (२० ते ४० वर्सां) ह्या ऑपरेशनाक कॅराटोप्लास्टी (keratoplasty) म्हण्टात.

दोळ्याचो पड्डो सुटल्यार एका मिनटाभितर वा वराभितर वा एक दोन दिसांनी मनशाची नदर सामकी उणी जाता. ही नदर थोड्या म्हयन्यांनी वा एक-देड वर्साभितर ल्हव ल्हव जाल्यार मोतिबिंदू वा ग्ल्याउकॉमा (Glaucoma) जावंक शकता. ग्लाउकॉमा जाल्यार थोड्या मनशांक बल्बां भोंवतणीं वाटकुळां दिसतात. हीं सगळी दुयेंसां चड करून चाळीस वर्सां उपरांत जातात. नदर उणी जाता हें कळटकच रोखडेंच दोळ्याच्या दोतोराक मेळून फावो तो उपाय घेवंक जाय.

दोळ्यांक कांय तरेच्यो संसर्गीक पिडा जावंक शकतात. देखीक, दोळ्यांची साय. हें दुयेंस एका मनशापसून दुसऱ्या मनशाक वचूंक शकता. ताका लागून दोळे आयिल्ल्या मनशान आपल्यो वस्तू वेगळ्यो दवरच्यो पडटात. दोळ्यांक हात लायल्यार हात शाबू लावन धुवचे पडटात. दोळे तांबडे जावप, वताक पळयल्यार त्रास जावप वा दोळ्यांत कुसकूट पडिल्लेवरी दिसप हें पारदर्शनेत्रपटलाचो शोथ वा इनफॅक्शन. हाका वताचें काळें ओक्ल लावचें पडटा. तशेंच, दोतोराचो रोखडोच सल्लो घेना जाल्यार पारदर्शनेत्रपटलाक मार बसून नदर उणी जावपाचो संभव आसता.

दोळ्यांक तरेतरेची ॲलर्जीय जावं येता. भुरग्यांच्या पोटांत दंत आसल्यार वा टीबीचें दुयेंस आसल्यार दोळ्याक पारदर्शनेत्रपटला भोंवतणीं बारीक बारीक पुळयो येतात. हाका Phlyetenular conjunctivitis अशें म्हण्टात. हाका लागून दुयेंतीक जें दुयेंस जालां ताचोच पुराय तरेन उपाय जावंक जाय. ना जाल्यार हें दुयेंस परत जावंक शकता. ही ॲलर्जी उबाळा दिसांनी जाता. चलयांपरस चल्यांक ही ॲलर्जी चड जाता. ही सैमीक ॲलर्जी (Atmospheric or Environmental) स-स म्हयन्यांनी वा वर्सान वर्स जाता. मलम वा थेंब्यांचीं वखदां घालून हें दुयेंस थांबोवं येता. गांव बदलून शुध्द हवेच्या दुसऱ्या गांवांत वतकचूय कांय लोक बरे जातात. कांय खेपे हें दुयेंस आपशींच भुरगो व्हड जातकच वता.

दोळ्यांचेर ताण येवप वा तकली उसळप हें दोळ्यांचें सामान्य दुयेंस. चडशें सगळ्या लोकांक केन्ना ना केन्ना जाता. दीसभर कामाच्या ताणान हें दुयेंस जावं येता वा कांय खेपे उण्या उजवाडांत वाचप, खूब वेळ टी. वी. पळोवप हाका लागून दोळ्यांचेर ताण येता आनी तकली उसळटा. हाचेर उपाय म्हळ्यार दोळे थंड उदकान धुवप वा जाता तितलो दोळ्यांक सुसेग दिवप. रिफ्रॅक्टीव ॲरर हेंय तकली उसळपाचें एक सामान्य कारण. चड करून ओक्ल लागपाच्या वेळार अशी तकली उसळटा. ओक्लाचे हारशे मातशे रंगीत (tinted) वा फोटोक्रोमॅटीक (हे हारशे वतांत वतकच गाड जातात आनी सावळेक परत लेव जातात.) केल्यार दोळ्यांची राखण जाता. थोड्यांक दाट (विश्तीचे) हारशे लागतात. पूण ओक्ल लावपाची इत्सा नासता अशा वेळार कॉण्टॅक्ट लॅन्स हो प्रकार उपेगी पडटा. नुस्त्याच्या खवळायेदे प्लास्टीकचे हारशे कशे हे कॉण्टॅक्ट लॅन्स दोळ्यांनी बसयतात. हाचेवरवीं मनीस बेसबरो पळोवंक शकता. तेचपरी त्या मनशाक ओक्ल लागलां हेंय कळना.

सादारणपणान चाळीस वर्सां जालीं म्हण्टकच मनशाक उणें दिसूंक लागता. कारण दोळ्यांत आशिल्लीं स्फटिकभिंगाची शक्त (Elasticity) उणी जाता. ह्या परिवर्तनाक Presbyopia म्हण्टात. हाका ओक्ल लावप गरजेचें. पूण दोन ते अडेज वर्सांनी नंबर बदलचो पडटा.

कांय जाण सौंदर्यप्रसाधनांत मेकपाचो वापर करतात, जाका लागून दोळ्यांक दुखापत जावंक शकता. हाका लागून मेकप वापरता आसतना बरे प्रतीचो आनी सांबाळून वापरपाची गरज आसा.

दोनय दोळ्यांचे नदरेचें केंद्रीकरण पळयता ते गजालीचेर एकाच वेळार आनी एकेच ओळींत जावंक जाय. जेन्ना हें जायना तेन्ना एका दोळ्याची नदर एकेकडेन आनी दुसऱ्याची दुसरेकडेन जाता. हाका तिरशेंपण म्हण्टात. ही जल्मजात वा उपरांतच्या कारणाक लागून उद्भवलेली दोळ्यांची विकृती आसता. दोळे तपासून खास तयार केल्लें ओक्ल लावन हें तिरशेंपण ल्हव ल्हव करून उणें जायत वता.

दोळे बरे उरपाखातीर कांय गजाली करच्यो पडटात त्यो अशो - १) न्हिदचे पयलीं दोळे सदांच शाब्बान धुवन घेवंचे. २) सुर्याक चड करून गिराणा दिसा निखट्या दोळ्यांनी पळोवंचें न्हय. ३) उण्या उजवाडांत वाचप करचें न्हय. ४) चलते गाडयेंत वाचप करचें न्हय. वाचपाचें पुस्तक चडशें ३५-४० सेंमी. अंतराचेर धरून वाचचें. ५) टी. व्ही. पळोवपाक स्क्रिनीसाकून बरेंच पयस बसचें आनी भोंवतणचो एक तरी दिवो पेटोवन दवरचो. ६) दोळे बरे दवरपाक पयस मळबांत वा दर्यादेगेर सकाळीं वा सांजचें पळोवचें. जाका लागून Visual System क सुसेग मेळटा आनी दोळ्यांक विकार उणे जातात.

**मोतीबिंदू :** दोळ्यांतल्या भिंगाचे अकार्यक्षमतायेक लागून जावपी नदर दोश. अकार्यक्षम भींग धवें पडलें म्हण्टकच ताची अपारदर्शकताय नश्ट जाता. हाका लागून दोळ्याफुडले वस्तूची प्रतिमा दोळ्याच्या दृक पटलाचेर (Retina) एक तर सारकी दिसना वा सामकीच दिसना. हो मोतीबिंदू जल्मतनाच भुरग्याचे वाडटे पिरायेचेर, जाण्टी पिराय जातकच वा दोळ्याक मार बसल्यार जावंक शकता. कांय जाणांच्या भिंगाक इल्ल्या इल्ल्या कुडक्यांनी जाल्यार कांय जाणांचें पुराय भींग धवें जाता.

**जल्मजात मोतीबिंदू :** हो मोतीबिंदू भुरग्याक जल्मतनाच आसता. गुरवार बायलेक पयल्या तीन म्हयन्यांमदीं रूबेला (Rubella) वा जर्मन मिझल्स (सुरसुरें) जायत जाल्यार ताची बादा भुरग्याक जाता आनी पोटांत आसतनाच ताका मोतीबिंदू जाता. तेचवांगडा भुरग्याक काळजाचें, मेंदवाचें, कानाचें दुयेंस जावंक शकता. तेखातीर जर्मन मिझल्स जाल्ले गुरवार बायलेक दोतोर गर्भपात करून घेवपाक सांगता.

**विकासजन्य मोतीबिंदू :** कांय भुरग्यांक वाडटे पिरायेचेर तरेतरेच्यो धव्यो वा रंगीत अशो तिकल्यो भिंगाचेर तयार जातात. ह्या तिकल्यांच्या आकारावयल्यान आनी दिसण्यावयल्यान तांच्यो जाती आसतात. देखीक: आकाराप्रमाण - फ्युझीफोर्म, कोरलीफॉर्म, डिसकॉयड, झोनुलार, कॉरोनरी.

**थळावयल्यान :** अग्र आनी पश्च अक्षीय, (Satural, Embryonal Nuclear.)

**दिसपाप्रमाण :** Cataracta Coerulia वा ब्लू डॉट मोतीबिंदू.

**मंडलीय मोतीबिंदू :** हो जेवण खाणाचें प्रमाण उणें आसल्यार वा विटामीन डी उणें आसल्यार जावंक शकता. १२-१४ वर्सांचेर जायत जाल्यार ताका कॉरोनरी मोतीबिंदू म्हण्टात.

**जल्मजात वा विकासजन्य मोतीबिंदू :** जल्मतनाच वा भुरगें व्हड जाता तेन्ना दोळ्यामदीं भायल्या हारशाचेर एक धवी वाटकुळी तिकली आसता. असल्या भुरग्याक एका दोळ्यांत मोतीबिंदू आसत जाल्यार ताका नदर थोडी आसता. दोनय दोळ्यांनी मोतीबिंदू आसल्यार नदर

सामकी उणी आसता आनी भुरगें हातांत दिल्ल्या वा दाखयल्ल्या वस्तूंकडेन दुर्लक्ष करता. मोतीबिंदू उण्या प्रमाणांत आसल्यार नदर उणी जायना आनी दुयेंतीकय मोतीबिंदूची जाण आसना. पूण दोळ्यांच्या दोतोराकडेन वतकच हो दोश कळटा. जल्मजात वा विकासजन्य मोतीबिंदू चड करून वाडना. देखून ताका ल्हान आसल्यार शस्त्रक्रिया करपाची गरज चडशी नासता. हो मोतीबिंदू वाडलो आनी दिसप उणें जायत जाल्यार शस्त्रक्रिया करचीच पडटा. जल्मतनाच भुरग्याक चड मोतीबिंदू आसल्यार भुरग्याक स म्हयने जातकच रोखडीच शस्त्रक्रिया करची पडटा. कारण भुरग्याचे दोळ्याचे भाग सारके तयार जावपाक स म्हयने लागतात.

**एक्वायर्ड कॅटरॅक्ट (Aquired Cataract) :** बऱ्या भिंगाक बादा जातकच अशे तरेचो मोतीबिंदू जाता. भौतीक आनी रसायनीक कारणाक लागून भिंगाक बादा येवंक शकता. ह्या मोतीबिंदूचे वेगवेगळे प्रकार आसात ते अशे - १) **वार्धक्यजन्य मोतीबिंदू (senile):** हे दोन तरेचे आसतात.

अ) अणूकेंद्रीय : हो भिंगामदीं आसता. ४० वर्सां उपरांत जावपी हो मोतीबिंदू केन्ना केन्नाय रंगीत आसता. देखीक - कॅटरॅक्ट ब्रुनॅसॅन्स (Catarata Brunescens) हो मोतीबिंदू मातयेकोराचो आनी काळ्या कोराचोय आसता. ह्या मनशांक वतांत गेल्यार सारकें दिसना आनी वताच्या ओक्लान वा सावळेंत बरें दिसता.

ब) १) बाह्य मोतीबिंदू (Cortical cataract) : भिंगाच्या भायल्या भागांत जावपी हो मोतीबिंदू चड करून पिराय ५० वर्सां जातकच जाता. हो मोतीबिंदू जाल्ल्या मनशाक वतांत बरें दिसता आनी सावळेक सारकें दिसना. हातूंत ५ अवस्था आसात - अ) पुर्वावस्था (Lamellar separation) ब) इनसिपियण्ट कॅटरॅक्ट (Incipient cataract) क) इन्ट्यूनेसेन्ट कॅटरॅक्ट (Intunescent cataract) : नदर उणी जावप. ड) पक्वावस्था (Mature cataract) मोतीबिंदू पिकप आनी सामकेंच दिसप ना. इ) अतिपक्वावस्था (Hypermature cataract) : मोतीबिंदू पिकप आनी नदर सामकीच वचप.

२) किचकटीचो मोतीबिंदू (Complicated) : दोळ्याच्या हेर भागांक कसलींय दुयेसां जाल्यार भिंगाक फावो तें पोशण जायना (Nutrition) आनी हे तरेचो मोतीबिंदू जाता.

३) सर्वांगीक रोगाक लागून जावपी मोतीबिंदू (Cataract due to systemic Disease) : मनशाक गोडेंमूत, गॅलेक्टोसेमीया (Galactosemia) अश तरेचे सगळ्या आंगाचे रोग आसल्यार मोतीबिंदू जावंक शकतात.

४) किरणीयजन्य मोतीबिंदू (Cataract due to Radiant Energy): उज्याची वा वताची उश्णताय, क्ष-किरण वा रेडियम, तेचपरी विजेचो खर शॉकलेगीत मनशाक मोतीबिंदू जावंक कारण जावं येता.

५) आघातजन्य मोतीबिंदू (Traumatic cataract) : दोळ्याक कसलोय मार बसत जाल्यार हो मोतीबिंदू जावंक शकता.

एक्वायर्ड कॅटरॅक्ट (Aquired Cataract) हो मोतीबिंदू जाता तेन्ना मनशाच्या दोळ्यामुखार काळे थिपके दिसतात. दोळे घुंवतात तशे हे थिपकेय घुंवतात. दोट्टी, तिट्टी वा खूब प्रतीबिंबां दिसप हेंय सुर्वेचें एक चिन्न. जशी जशी अपारदर्शकताय वाडत वता तशी तशी मनशाची नदर उणी जायत वता. अपारदर्शकताय भिंगाचे मदीं आसल्यार मनशाक वतांत गेल्यार सारकें दिसना आनी सावळेक वा मंद उजवाडांत बरें दिसता. पूण ही अपारदर्शकताय भिंगाचे भोंवतणी आसल्यार सावळेंत सारकेंदिसना आनी वतांत व्हडलोसो त्रास जायना. खूब फावटीं मनशाक मायनस नंबर (-) येता (Lenticular Myopia) आनी हो थोडया थोडया म्हयन्यांनी वाडत वता. जशी अपारदर्शकताय व्हड जाता तशी नदर उणी जाता आनी निमाणें फकत उजवाड दोळ्यार घालतकच वळखूंक येता.

जल्मतनाच वा वाडटे पिरायेचेर जाल्लो (भुरग्याक) मोतीबिंदू सामको ल्हान आसा आनी नदर सादारण बरी आसा जाल्यार कसलोच उपाय करपाची व्हडलीशी गरज उरना. फकत दोतोराकडेन वचून नेमान तपासून घेवपाक जाय. पूण हो मोतीबिंदू व्हड जाता वा नदर उणी जाता अशें दिसल्यार मात ऑपरेशन करचें पडटा. जाल्ल्या भुरग्याक मोतीबिंदू आसा अशें दिसल्यार स म्हयन्यां उपरांत ताणें ऑपरेशन करचें पडटा. नाजाल्यार तो दोळो आळशी आनी तिरसो जावंक शकता.

ॲक्वायर्ड मोतीबिंदू जाल्यार सुर्वेचे अवस्थेंत थेंबे घाल्यार मनशाक मातशें बरें दिसूंक शकता वा मोतीबिंदू वाडपाचो बंद जाता वा ताची वाड मंद जाता. पूण हेर कसल्याय कारणांक लागून (देखीक - गोडेंमूत वा हेर रोग) जाल्यार ते पिडेचेर वखद घेवंक सुरवात करतकच तो वाडपाचो बंद जाता वा केन्नाय बरो जावंक शकता. इन्सिपियॅण्ट अवस्थेंत पिडेस्ताच्या ओक्लाचो नंबर जसो जसो बदलता तशे तशे हारशे बदलत रावल्यार मातशें बरें दिसता. ओक्लाचे हारशे मातशे रंगीत वा काळे वा फोटोक्रोमॅटीक आसल्यार बरें. मोतीबिंदू मदीं आसल्यार बावली (Pupil) व्हडली जावपाचे थेंबे घालून बरे दिसूंक शकता.

मोतीबिंदू जातकच, तो पिकतकच वा अती पिकतकच मनशाक सारकें दिसना. ह्या वेळार शस्त्रक्रिया होच एक उपाय आसता.

**शस्त्रक्रिया :** सादारणपणान शस्त्रक्रियेचे तीन प्रकार आसात - १) संपुटांतर्गत शस्त्रक्रिया २) संपुटाबान शस्त्रक्रिया ३) भींग खंडन वा भींग पायसीकरण.

शस्त्रक्रिया करचे आदीं पिडेस्ताक तपासून ताची पुराय म्हायती घेवंची पडटा. ताका हेर कसलेय पिडेची बादा आसा काय कितें हें मूत, रगत तपासून पळोवंचें पडटा. पिडेस्त चड जाण्टो आसल्यार ताच्या हड्ड्याचो फोटो (एक्स - रे) वा कार्डिओग्राम काडून कसलें दुयेंस आसा हें पळोवंचें पडटा. शस्त्रक्रियेची तरा पेशंटावयल्यान थरयतात. ल्हान भुरग्याच्या मोतीबिंदूची शस्त्रक्रिया करून भिंगाची पोती उक्ती करून मोतीबिंदू धुवन काडटात. पिडेस्ताची पिराय जाल्ली आसल्यार ४० - ४५ वर्सांवयर पुराय मोतीबिंदू, भिंगाची पोती उक्ती करून धुवन काडटात वा पोतयेसकट भींग काडटात.

मोतीबिंदू जावप म्हळ्यार दोळ्याची कार्यक्षमताय उणी जाता आनी त्या मनशाक सारकें दिसना. दोळ्याचो तो भाग काडटकच त्या जाग्यार दुसरो भाग घालचो पडटा आनी हें तीन तरांनी करूं येता - १) ऑपरेशन करून एक-देड म्हयन्यांनी दाट ओक्ल दिवप २) स म्हयन्यां उपरांत कॉण्टॅक्ट लॅन्स दिवप. सामक्या ल्हान भुरग्याक वा खूब जाण्ट्या मनशाक कॉण्टॅक्ट लॅन्स वापरूंक जमना असल्या पिडेस्ताक दाट ओक्ल लावंचें पडटा. ३) ऑपरेशन करतकच मोतीबिंदू काडून जातकच भिंगाचे पोतयेंत वा पोती आनी बावली हांचेमदीं एक प्लास्टीक भींग बसयतात. हाका लॅन्स इंप्लांटेशन अशें म्हणटात. हालींच्या काळांत चडशे पिडेस्त सर्रासपणान हेंच ऑपरेशन करून घेतात.

**जतनाय :** १) गुरवार बायलेक सुरसुरें जाल्यार बाळंतिणीच्या दोतोराकडेन सल्लो घेवन गर्भपात करपाची गरज आसल्यार करून घेवंचो.

२) गोडेंमुता सारकीं दुयेंसां आसल्यार आनी तीं ताब्यांत दवरल्यार मोतीबिंदू जावपाची शक्यताय उणी जाता.

३) वतांत भोंवतना वताचें, मातशें रंगीत वा फोटोक्रोमॅटीक ओक्ल लावंचें.

४) वॅल्डींग, गिराण वा सुर्याक उक्त्या दोळ्यांनी पळोवंचो न्हय.

५) उश्णतेंत काम करप्यांनी प्रॉटॅक्टीव गॉगल्स वापरचीं.

६) विद्युत् शक्तीपसून जतनाय घेवंची आनी शॉक टाळचो.

७) दोळ्याक कसलोच मार बसपाक दिवंचो न्हय.

८) जेवण चडशें पुश्टीक, प्रथीनयुक्त आनी जीवनसत्वाचो आस्पाव आशिल्लें आसचें.

गरीब लोकांक, जांचें खाण जेवण पुश्टीक नासता तांकां, कामगार लोकांक आनी प्रदुशीत वातावरणांत रावपी लोकांक मोतीबिंदू जावपाचो संभव चड आसता.

**मोतीबिंदू आनी हेर दुयेंसांचो संबंद :** मंगोली मुढता (Mongolism), कातारी लक्षणसमुह (Turner's syndrome), गोडेंमूत (Diabetes), तंत्रिकाजन्य इसब (Atopic eczema) ह्या सारक्या पिडांवांगडा मोतीबिंदू आसूंक शकता.

मोतीबिंदूची पयली शस्त्रक्रिया सगळ्यांत पयलीं भारतांत सुश्रृता हाणें सोदून काडली. ताचेफाटल्यान इजिप्त, ग्रीस, रोम, अरबस्थान ह्या देशांनी सोद लागलो. हे शस्त्रक्रियेक काउचींग (couching) अशें म्हण्टात. हातूंत दोळ्याचो मोतीबिंदू हात, बोट वा आनी कितेंय मारून दोळ्यांत भितर सकयल उडोवप (मोतीबिंदू अंत्राळीं आसता. तो उडयत जाल्यार मदीं बावलेची वाट निवळ जाता आनी मनशाक दिसूंक लागता). हीच शस्त्रक्रिया क्रिश्ताआदीं सुमार १००० वर्सां ते १८ व्या शतमानामेरेन चलताली. मोतीबिंदू दोळ्याच्या भायर काडून उडोवपाची पयली शस्त्रक्रिया १७५३त जॉक्स डेवीयल (हो लुईस १५ वो हाचो दोळ्याचो सर्जन आशिल्लो) हाणें पॅरीसाक केली. वोन ग्रीफ हाणें १८६५त शस्त्रक्रियेचें तंत्र मातशें सुदारलें. पयले टांके विल्ल्यम हाणें १८६७त वापरले. हे शस्त्रक्रियेक गुंगी दिवपाचें तंत्र वेन लीन्ट आन ओ ब्रायन हाणें सोदून काडलें. १५०८ वर्सा लीर्नड द. विनी हाणें कॉण्टॅक्ट लॅन्सीचो सोद लायलो. विल्यम फेनब्लूम हाणें पयले खेपे प्लास्टिकाचो वापर करून कॉण्टॅक्ट लॅन्स तयार केल्यो. देरोल्ड रीडले हाणें १९५३ वर्सा पयले खेपे दोळ्यांत प्लास्टीक लॅन्स बसयली.

मोतीबिंदू खंयचेय पिरायेचेर जावंक शकता. ५० वर्सां उपरांतचो मोतीबिंदू हे कुड्डेपणाचें मुखेल कारण. जल्मस्त आनी भुरगेपणाच्या कुड्डेपणांत १४% मोतीबिंदू आसता. जाण्टेपणाचो मोतीबिंदू ४० वर्सां जावन केन्नाय जावंक शकता आनी हो ४० वर्सांचेर ३५% आसता. फुडें तो वाडत वाडत ७० वर्सां वयर ९०% जाता. संवसारांत कुड्ड्यांची संख्या सारकी कळना. पूण ती ५.१० कोटी आसूंक जाय. भारतांत ७० लाख मोतीबिंदूचे पिडेस्त आसात. आशिया खंडांत मोतीबिंदूचें प्रमाण १.५-२% आसा. भारतांत तें १.५-२% आसा. कोंकण आनी गोंयांत तें १.२५-१.५% आसा. भारतांत हेर सगळ्या राज्यांपरस उत्तर प्रदेश आनी बिहारांत मोतीबिंदूचें प्रमाण चड दिश्टी पडटा.

**नेत्रपेडी (Eye Bank) :** मेल्ल्या वा जित्या मनशाच्या दोळ्यांचें जतन आनी संवर्धन करून दवरपी आनी गरजेप्रमाण दोळ्यांची पुरवण करपी संस्था. दोळ्याचें अकार्यक्षम पारदर्शनेत्रपटल (दोळ्याचो फुडलो पड्डो) काडून त्या जाग्यार जिव्या वा मेल्ल्या मनशाचें कार्यक्षम अशें पारदर्शनेत्रपटल कलम करप शक्य आसा. जिव्या मनशाचें नितळ मंडल मेळप सामकें अशक्य तरी मेल्ल्या मनशाच्या दोळ्याचो उपेग जिव्या मनशाक नदर दिवपाक जाता.

मेल्ल्या मनशाच्या पारदर्शनेत्रपटलाचो वापर करतलो जाल्यार तें मरणा उपरांत तीन वरां भितर काडून घेवंचें पडटा. ह्या पटलाचें कलम तें काडून घेतसाकून स वरांभितर करचें पडटा. पूण आर्विल्ल्या तंत्रग्नियानावरवीं अशे दोळे एक - दोन म्हयने सांबाळून दवरपाची तजवीज आसा. मेल्ल्या मनशाची पारदर्शनेत्रपटल मेळपाची एक व्हडली अडचण म्हणजे मेल्ल्या मनशाचें हें पटल काडपाक जावपी विरोध. तेभायर जाचें पटल काडटात त्या मनशाक भायले पिडेसारकी पिडा आसूंक फावोना. आपल्या खंयच्याय अवयवाचें दान करपी दानपत्र मनशान जितेपणीं केल्लें आसत जाल्यार ताच्या मरणाउपरांत ताचे दोळे काडपाक कोणाची आडखळ येना. पूण ताच्या लागींच्या मनशांनी हें दानपत्र मानून घेवप चड गरजेचें. भारत धरून सगल्याच देशांनी वैजकी मळावयल्यो संस्था नेत्रदानाचो प्रसार करीत आसात. हाका लागून दोळे काडपाचे तशेंच पारदर्शनेत्रपटलाचें कलम करपाचे प्रक्रियेक मार्गदर्शन आनी आदार जाता.

१८४०त मूल बोवर आनी १८४४त वूट्झर ह्या जर्मन शास्त्रज्ञांनी मोनजातीच्या दोळ्याचें मनशांक कलम करपाचे यत्न केले. पूण तांकां तातूंत येस आयलेंना. उपरांत १८८८त एनसर्ट हू आनी एका जर्मन नेत्रवैजान ताचेफुडें संशोधन केलें. १९०८ वर्सा प्लॅंग ह्या दोळ्यांच्या दोतोरान कुड्ड्या मनशाच्या दोळ्यांतलें पारदर्शनेत्रपटल काडून त्याच मनशाच्या दुसऱ्या दोळ्यांत ताचें कलम केलें आनी तें येसस्वी जालें. ह्या प्रयोगा उपरांत अशो शस्त्रक्रिया संवसारभर जायत आसात.

– डॉ. प्रकाश कुंकळयेंकार

## दौलतराम : (१७२०-१७७२).

एक हिंदी भक्तकवी. हो खंडेलवाल जातीचो आशिल्लो. मध्य प्रदेशांतलें जयपूर लागसारचो बसवा हो ताचो गांव. संस्कृत आनी हिंदी ह्या भाशांचेर ताचें बरें प्रभुत्व आशिल्लें. ऋषभदासाच्या उपदेशाक लागून ताणें जैन धर्म आपणायलो आनी ताकाच ताणें आपलो गुरू केलो अशें सांगतात.

दौलतराम हो कांय काळ जयपूरच्या मानसिंहाचो मंत्री आशिल्लो. ताणें पुण्यास्त्रव कथाकोशाचेर 'भाषा टीका' आनी वसुनंदीश्रावकाचाराचेर 'टब्बा टीका' अश्यो दोन टिका रचल्यात. हे खेरीज पद्म पुराण, आदी पुराण, हरिवंश पुराण, ह्या पुराणांचेरूय ताणें टिका बरयल्यात. ताणें केल्ल्या हिंदी अणकाराक लागुनूच जोइंदूरच्या परमात्मप्रकाशाक उपाट नामना मेळ्ळी, अशें टिकाकारांचें मत आसा. श्रीगोपालचरिताचोय ताणें हिंदी अणकार केला. अध्यात्मबारहखडी वा भक्त्यक्षरमालिकाबावनीस्तवन ह्या नांवाचें ताचें एक काव्य आसा. आपल्या कांय बरपावळींनी ताणें तुकारामाप्रमाणूच कर्मकांडाचेर खर टिका केल्या.

– कों. वि. सं. मं.

## द्रवीड संस्कृताय :

भारतांतली एक प्रगत संस्कृताय. भारताच्या इतिहासांत आनी संस्कृतायेंत द्रवीडांचो म्हत्वाचो वांटो आसा. द्रवीडांचें

मूळ थळ, तांचें वंशीक एकजीनसीपण आनी तांचें भारतांत येवप ह्या संबंदान विद्वानांनी वेगवेगळीं मतां मांडल्यांत.सद्याची भारताची लोकवस्ती पळेल्यार द्रवीड लोक दक्षिण भारतांत चड दिश्टी पडटात. पूण ते थंय कशे आनी खंयसावन आयले हाची स्पश्ट म्हायती मेळना.

कांय अभ्यासकांच्या मतान द्रवीड वंश हो भारतांतलो सगळ्यांत सुसंस्कृत आनी पुर्विल्लो मानव वंश. कांय भाशाशास्त्रज्ञांच्या मताप्रमाण द्रवीड हो एक भाशागट आनी ताचे तमीळ उलोवपी, मुंडारी सारकिल्यो भाशा उलोवपी कोलेरियन अशे दोन फांटे आसात. पूण आतां हें मत मान्य करिनात. कांय जाणांच्या मताप्रमाण ते मूळचे भारतीयूच आसूंक जाय. कांय अभ्यासक तांकां दक्षिण भारतांत जे नवाश्मयुगीन संस्कृतायेचे लोक आशिल्ले तिचे वंशावळीचे मानतात. तें भूमध्य दर्याचे उदेंतेकडसून वा अस्तंत आशियांतल्यान येवन दक्षिण भारतांत वसले.

महाश्मयुगीन संस्कृतायेकडेन तांचो संबंद आशिल्लो अशेंय मत मांडटात. कॉल्डवेलाच्या मतान द्रवीड हे तुरानियन वंशावळीचे आसून ते दुसरेकडसून भारतांत आयले. जाल्यार कांय विद्वानांच्या मतान ते भारतांतले आर्य पूर्व रावपी. वेदीक संस्कृतायेवयलो द्रवीड भाशांचो प्रभाव पळयल्यार हाचें प्रमाण मेळटा. पूण ह्या सगळ्या मतांतल्यान एक थरावीक मत वेगळावप कठीण जाता.

भारतांतल्या चार मुखेल भाशावंशांत द्रवीड भाशा वंश म्हत्वाचो. भाशा वंशावळीचे लोक चड करून दक्षिण भारतांत दिसतात. द्रवीड संस्कृतायेतली तमीळ ही सगळ्यांत पुर्विल्ली भास मानल्या. भाशाशास्त्रज्ञांच्या मतान तमीळ वा द्रवीड ही पुर्विल्ल्या द्रमील वा द्रमीळ ह्या मूळ उतरांच्या उपरांतच्या काळांतलीं रुपां. आर्यपूर्व लिसीयन लोक मॅडिटेरॅनियन वाठारांत रावताले. ते स्वताक 'त्रिमिली' अशें म्हण्टाले. ह्या उतराचेंच द्रमीळ-तमीळ हें एक रूप. हाचेंच इसवी सनाच्या पयल्या सहस्त्रकाच्या मदल्या काळार तमीळ अशें चालंत रूप जालां जावंक जाय, अशें तज्ञांचें मत आसा. पूण द्रवीडांची पुर्विल्ली भास जरी तमीळ आसली, तरी कन्नड, मल्याळम, तेलुगू तशेंच कुईगोंडी, कुई आनी ओराडम ह्योय भासो द्रवीड भाशेचेच अविश्कार मानतात. मध्य उत्तर आनी अस्तंत भारतांत द्रवीड भास आनी संस्कृतायेचे ल्हान ल्हान गट दिश्टी पडटात. बलुचिस्तानांतलो ब्राहुई भाशा गट द्रवीड भाशेचोच एक फांटो मानला. हाचेवयल्यान द्रवीड भास आनी संस्कृताय पुर्विल्ल्या काळार सावन भारतांत बऱ्याच व्हड आंगान पातळिल्ली दिसता. तेभायर उत्तर भारतांतल्या बऱ्याच थळनांवांतल्यान जावपी द्रवीड सज्ञांची भास, वैदिक साहित्यांत उल्लेख केल्ल्यो जायत्यो अनार्य जमाती खासा वैदिक संस्कृतायेंत मेळपी द्रवीड भाशीक धागे, तशेंच हिंदू धर्माचें कर्मकांड, आचार-विचार आनी दैवताशास्त्र हाचेर दिसपी द्रवीड संस्कृतायेची छाप हाचेवयल्यान ही संस्कृताय आर्यांआदल्या काळासावन भारतांत थीर, प्रभावी आनी विस्तारान पातळिल्ली दिसता.

जर सिंधू संस्कृतायेंत कांय अंशान द्रवीड संस्कृतायेचें पडबींब दिसता. जाल्यार इसवीसना आदीं तिसऱ्या शतमानांत द्रवीड संस्कृताय पुरायेन नागरी स्वरुपाची आशिल्ली अशें म्हणूक आदार मेळटा. हाचेर अजून एकमत जाल्लें ना. पूण सिंधू संस्कृतायेच्या मुद्रांवयले लिपीचो अर्थ लायलो जाल्यार हें कुवाडें सुटट्लें. फादर हेरास हाच्या मता प्रमाण सिंधू संस्कृतायेच्या मुद्रावयली लिपी हें तमीळ भाशेचेंच पुर्विल्लें रूप. पूण ह्या मताक अजून फाव तसो आदार मेळिल्लो ना. कांय अभ्यासक हे लिपयेपसून ब्राह्मीचो जल्म जालो अशें मत उक्तायतात. पूण द्रवीड संस्कृतायेचे जर सिंधू संस्कृताय हें पूर्विल्ले रूप अशें मानल्यार पुरंदर इंद्राच्या शेकाखाल भारतांत आयिल्ल्या आर्यांनी तें रूप बदललें अशेंय कांय जाणांचें मत आसा.

सादारणपणान द्रवीड वंशाचे लोक उणे लांबायेचे, काळ्या रंगाचे, काळ्या दोळ्यांचे, लांबशे तकलेचे, रूंद नाकाचे, दाट ओठांचे, मुदयाळ्या केसांचे आसतात अशें मानतात. पूण काळाप्रमाण जाल्ले वंश बदलाचे प्रक्रियेंत द्रवीड वा आर्य हांचो आंगलोट, वंशीक वा संस्कृतीक खाशेलपण हातूंत बदल जायत गेला.

एक खरें, भारतांत येवपी आर्यांक ताचे आदीं भारतांत राबितो करून आशिल्ल्या दास, दस्यू आनी निषाद हांचें अस्तित्व मानून घेवचें पडलां. हे दास, दस्यू आनी निषाद फकत भारतांतच आशिल्ले अशें न्हय जाल्यार ते उदेंत, इराण, अफगाणिस्तान, वायव्य आनी अस्तंत भारत तशेंच गंगा न्हयेचें देगण ह्या प्रदेशांनी शिपडिल्ले आसूंक जाय. हे आर्य आदले द्रवीड आसूं वा नासूं, तांची संस्कृताय खाशेली आशिल्ली आनी तिचो जल्म भारता भायल्या भूमध्य दर्याचे उदेंते कडल्या वाठारांत जालो अशें विद्वानांचें मत आसा. सिंधू संस्कृतायेंतल्या मनश्याच्या सांगाड्यांचेर केल्ल्या अभ्यासांत मॅडिटेरेनियन वंशाचे लोक थंय चड दिसल्यात. ह्या सुसंस्कृत लोकांचे जिवीत पध्दतीचो प्रभाव हेडपी आर्यांचेर जावंक जाय. हाचे वयल्यान अशें म्हणू येता, तांचें मूळ ठाणें खंयूय आसलें तरी भारतांत हे लोक आर्यां आदल्या काळार सावन आशिल्ले. हे आर्यांआदले लोक खुबूच फुडारिल्ले आशिल्ले. तांचे संस्कृतायेचो आर्य धर्म आनी आर्य संस्कृतायेकडेन आगळोच मेळ जाल्लो आसा. शैव पंथ आनी योग मार्ग हीं सिंधू संस्कृतायेचीं म्हणजेच पर्यायान द्रवीड संस्कृतायेचीं खाशेलपणां जावन रावल्यांत. सिंधू संस्कृतायेंत मेळिल्ल्या मातृ देवतांच्या मुर्तीवयल्यान अशें अनुमान काडप जाता की हे पुर्विल्ले संस्कृतायेचे लोक मातृदेवता आनी पितृदेवता हांच्या रुपान जिवोत्पत्ती आनी विश्वाचे कल्पनेची मांडणी करी सारके प्रगत आशिल्ले.

द्रवीड संस्कृतायेचो आर्यांचेर पडिल्लो छाप आर्विल्ल्या भारतीयांचेर आनी खासा हिंदू धर्मियांचेर दिसता. आर्यांचें मूळ अन्न मास आनी सोरो. सद्याक तांदूळ, गंव, कडधान्यां आनी तेल हें अन्न खातात. आर्य ल्हवेंचे कपडे वापरताले. जाल्यार सद्या भारतीय कापसाचे कपडे घालतात. आर्विल्ल्या भारतीय भासांची वाक्य रचणूक वैदिक संस्कृतायेपरस द्रवीड भाशेक चड लागशिल्ली आसा. तशेंच लग्नाकार्यांत वा हेर मंगल प्रसंगार नाल्ल, खावचीं पानां, बेडो हांचो उपेग हिंदू धर्मांत आर्येतरांकडल्यान म्हणजेच द्रवीडां कडल्यान आयला अशें मानतात.

भारतीय भेस, भास, भाशेचें व्याकरण, देव-देवता, पुजा आनीक समाजीक चाली-रिती हांचेर द्रवीड संस्कृतायेचो छाप पडला. पूण हो छाप नदरेंत भर सारको स्पश्ट कसो दिसता हें सांगप कठीण. तशेंच आर्य धर्माचेर इतलो प्रभाव घालपी आनी भारताच्या वेगवेगळ्या वाठारांत रावपी द्रवीड दक्षिण भारतांत कशे पावले हाची स्पश्ट म्हायती मेळना. पूण सद्या दक्षिण भारतांत दिसता ते द्रवीड संस्कृतायेच्या रुपाक पळयल्यार तिचेर आर्यांचे संस्कृतायेचो बरोच प्रभाव पडिल्लो दिसता. हे संस्कृतीक मेळाक लागून पुर्विल्ली द्रवीड संस्कृताय कशी आशिल्ली हें पुर्विल्ल्या इतिहास काळांतल्या तमीळ वाङ्मयावरवीं सादारणपणान कळटा. हें पुर्विल्लें वाङ्मय आनी तमीळ भाशेंतले शिलालेख हांचेवयल्यान द्रवीड

संस्कृतायेविशीं अशी म्हायती मेळटा. दक्षिणेंत इसवी सनाच्या पयल्या शतमानामेरेन आनी ताचे आदीं तीन - चार शतमानांआदीं मेरेन पांड्य, चेर, चोल, हे राजवंश जावन गेल्यात. हे राजा, तांचीं राज्यां, संस्कृताय आनी हेर जायत्या गजालींविशीं पुर्विल्ल्या तमीळ साहित्यांत उल्लेख मेळटा. पांड्य राजाच्या आलाशिऱ्याखाल मदुरा नगरांत विद्वान आनी कवी हांची एक सभा वावुराताली. हे सभेंत वाङमयीन निकश आनी रचना हांचीं प्रमेयां थारायिल्लीं. हे संस्थेक संघम अशें नांव आशिल्लें. अशो तीन संघम जावन गेल्यात. तिसऱ्या संघमाचो काळ इ. स. उपरांतचें पयलें - दुसरें शतमान अशें मानलां आनी संघम वाङमयाचो अंत इ. स. च्या दुसऱ्या शतमानांत जालो अशें दिसता. उपरांतचो संस्कृतीक आनी राजकीय इतिहास सारको मेळना. कारण पल्लवांच्या मदल्या काळांत दक्षिणेंत संस्कृत शिकप आनी साहित्य हाच्या प्रभावाचें व्हड ल्हार आयिल्ल्यान मूळ द्रवीड संस्कृताय ह्या काळार चडशी दिसना. सव्या शतमानामेरेन कळभ्रांच्या धुरयांक लागून संस्कृतीक, समाजीक आनी राजकीय सदळसाण निर्माण जाली.

संघम साहित्य ताम्रपट आनी शिलालेख हांचेवयल्यान पुर्विल्ल्या इतिहासीक काळावयली दक्षिणेंतली राज्य वेवस्था कशी आसली हाची बरीच म्हायती मेळटा. ह्या काळार राज्य संस्था आशिल्ली आनी राजा एकतंत्री आशिल्लो, तरी ताचें मंत्रिमंडळय आसतालें. सभामंडपाचो उल्लेख सांपडिल्ल्यान गांवकारांनी एकठांय येवंक ग्रामपरिशद वा पंचायतीसारक्यो संस्था आशिल्ल्यो जावंक जाय. ग्रामसभेवयर एक राजसभा आसताली आनी तिका न्याय निवाडो करपाचे विस्तृत अधिकार आशिल्ले. उपरांत ही वेवस्था उत्तरेंतल्या आर्यांच्या संपर्काक लागून बदललीशी दिसता. ह्या काळार ऊर, सभा आनी नगरम अशो तीन परिशदो जाल्यो. सभा फकत ब्राह्मणांची, ऊर सगळ्या जमीन धारकांची आनी नगरम चड करून वेपाऱ्याची. हाचो अर्थ असो, उपरांतच्या काळांत जात, शेतवड आनी अर्थीक स्थिती हांकां म्हत्व मेळळें. ग्रामपरिशदेकडेन उदका पुरवण, रस्ते, शाळा, देवळां बांदप, पाट बांदप, कर पुंजावप अशीं कामां आशिल्लीं. ग्रामाखेरीज, राश्ट्र, नाडू, कोटट्म, विशय, वळनाडू वा मंडलम हे राज्य कारभाराचे घटक आशिल्ले. तशेंच बेलीफ खजीनदार, भूयमापणी अधिकारी अशे राजान नेमणूक केल्ले अधिकारी हांचे वयर देखरेख करताले.

द्रवीडांची कुटूंब पद्दती मातृसत्ताक अशें मानतात. पूण पल्लव काळापसून राजाफाटल्यान ताचो व्हडलो पूत राजपाटार येताले असो पुरावो मेळटा. राजकारणांत तरी दादल्याकच स्थान मेळटालें. तरी हेर क्षेत्रांनी राजाइतलेंच राणयेकय म्हत्व आसलें. पुर्विल्ल्या संघम वाङमयांत द्रवीडाचें समाजीक आनी अर्थीक परिस्थितीचें चित्र मेळटा. तेप्रमाण पुर्विल्ले द्रवीड हे वेगवेगळ्या काळांत वेपारांत, उदका येरादारींत आनी शिक्षणांत प्रगत आशिल्ले. ह्या वाङमयांत द्रवीड प्रदेशांतल्या लोकांच्या भेसाची आनी आहाराची कल्पना मेळटा. दादले दोन वस्त्रां न्हेसताले. केंस कापून थाकथीक करताले. कपडयांक खळ घालून कडक करचेली प्रथाय तांचेमदीं आशिल्ली. दादले बायलो तरातरांचे अलंकार घालताले. धान्य, मास, नुस्तें, तशेंच तरांतरांच्यो भाज्यो, दूद आनी दुदाचे जिन्नस तांच्या आहारांत आसताले. पान सुपारी खावंचेली प्रथा द्रवीडांमदीं आसली. मन रिजोवपाखातीर पेंवप, भोंवडेक वचप, तरांतरांचीं तंतुवाद्यां वाजोवप, चित्रकला, नृत्यकला, हांची उपासना करप, अशें समृध्द जिवीत सारपी द्रवीड हे सुस्थितीत आशिल्ले जावंक जाय. तशेंच तांचेमदीं शेतकाम आनी वेपारधंदो संघटीत रुपांत चलतलो जावंक जाय. शेत रोवप हो तांचो एक प्रगत वेवसाय जावन राविल्लो. ऊंस, कापूस आनी काळीं मिरयां, हांचें पीक ते काडटाले. तांच्या वाठारांनी व्हड प्रमाणार रेशीम आनी लोकर हांचेंय उत्पादन जातालें. तशेंच उपरांतच्या काळांत दर्यावयलो उद्देग व्हड प्रमाणांत जावंक लागलो असोय उल्लेख संघम वाङमयांत मेळटा. इसवी सनाच्या पयल्या आनी दुसऱ्या शतमानांतल्या ग्रीस - रोमन भोंवडेकारांच्या खबरांवयल्यान हाका तेंको मेळटा.

पुर्विल्ल्या साहित्यांत द्रवीडांची संस्कृतीक म्हायती पुराय तरेन मेळना. लग्नसंस्थेसंबंदानय म्हायती मेळटा ती अपुर्ण आसा आनी मेळटा ती आर्यां आदलीच अशें म्हणप समा जायना. वाङमयीन पुराव्यांवयल्यान अशें दिसता, 'ताली' वा मंगळसुत्रावयल्यान लग्न जाल्ली बायल वळखूंक येताली. तशेंच लग्नापयलीं सधवा आनी भुरगेकान्नी बायलो व्हंकलेक न्हाणयताल्यो. पूण लग्ना संबंदीत हेर धर्मीक विधींचो उल्लेख मात इल्लो पसून मेळना.

आर्य - द्रवीड संपर्काक लागून आर्यांच्यो तशेंच द्रवीडांच्योय धर्मकल्पना तांचे मजगतीं जाल्ल्या संस्कृतीक दिवपा-घेवपाक लागून बदलूंक पावल्यो हें उक्तें जाता. हाका लागून संघम वाङमयांत वैदिक तशेंच द्रवीड ह्या दोनय धर्मांची भरसण जाल्ली दिश्टी पडटा. पींड दान, यज्ञ, ब्राह्मणांक दान दिवप ह्या गजालींवयल्यान द्रवीडांचेर वैदिक धर्माचो कितलो प्रभाव आशिल्लो हें दाखयता. पूण द्रवीड लोकांमदीं सामान्य मनशाचो धर्म मात ग्राम देवता, जादू हांचेर आदारिल्लो आसतालो. घरा वयर लिंबा-पानां लावप, भुरग्याक सांसवा उंवाळप, दोळ्यांत काजळ घालप अशो रिती तांचे मदीं चालंत आशिल्ल्यो. मणिमेखलै ह्या काव्यांत मेल्ल्याक लासप वा ताचे अवशेश मातयेच्या व्हडल्या मडक्यांत दवरून पुरप अशे दोन उल्लेख मेळटात. पुर्विल्लें द्रवीड साहित्य किदें, कशें आनी कितलें आशिल्लें हाचेविशीं सविस्तर म्हायती मेळना. पूण संघम वाङमयाचेर संस्कृत वाङमयीन कल्पना आनी ध्येयां हांचो प्रभाव निश्चीतपणान दिसता. हाका लागून संघम वाङमयाचें खाशेलें द्रवीड स्वरूप थारोवप कठीण जाता.

जसो जसो आर्यांचो प्रभाव वाडत गेलो तशी तशी द्रवीडांची विशेशताय शुध्द रुपांत वेगळी उरील्ली नासतली. इसवी सनाआदीं दुसऱ्या-पयल्या शतमानांतले कांय उत्कीर्ण लेख तमीळ भाशेंत आसले तरी ते ब्राह्मी लिपींत बरयल्ले आसात.

संघम वाङमयांत बऱ्यो बऱ्यो वास्तू, बाजार, प्रासाद, देवळां हांचीं मनभुलोवणीं वर्णनां मेळ्ळीं तरी तांचे अवशेश चड करून मेळनात. इसवी सनाच्या सव्या शेंकडयामेरेनचे तरेतरेचे द्रवीड वास्तू तंत्राचे नमुने आशिल्ले अशें म्हणप जाता, पूण तांचेय अवशेश मेळनात. खरें म्हळ्यार देवळांच्या वास्तूशैलींनीं द्रवीड शैली म्हत्वाची हें द्रवीड शैलेतले देवळांचे खांबे पल्लव काळांतल्या देवळांनी पळोवंक मेळटात. द्रवीड पद्धतीच्या देवळांचीं तेमकां उत्तर भारतांतल्या नागर पद्दतीच्या तेमकांपरस सामकीं वेगळीं आसात. तशेंच मंडप आनी गोपूर हेवय द्रविड वास्तूशैलीचे खाशेले अविश्कार मानल्यात. द्रवीड संस्कृतायेच्या वेगवेगळ्या आंगांची शिपडिल्लीं म्हायती आनी तुटक पुरावो तशेंच द्रवीड भुंयेचेर नेटान जाल्लें अर्थीकरण हाका लागून द्रवीड संस्कृतायेचें सत्व निवळावन काडप सोंपेपणान शक्य जायना.

- किरण बुडकुले

**द्राक्ष :** (मराठी : द्राक्ष; हिंदी : अंगुर; गुजराती : दराक; संस्कृत : द्राक्षा, गुच्छफला, मधुरसा; इंग्लीश : ग्रेप व्हाइन; लॅटीन : व्हायटिस व्हिनिफेरा; कूळ : व्हायटेसी).

खूब वर्सां जियेवपी बळिश्ट अशी वेल. पानांचो आकार सादारण मनशाच्या काळजाच्या आकाराभशेन. फुलां ल्हान पाचवीं, फळां पोपटी वा लेव पाचव्या कोराचीं. कांय जातींचीं द्राक्षां जांबळ्या कोराचींय आसतात. फळां घोंसांनी जातात. फळांनी २ ते ५ बारीक बियो आसतात. कांय जातींच्या फळांनी बियो आसनात.

ही वनस्पत मूळची अस्तंत आशियांतल्या कॅस्पियन दर्या वाठारांतली आसूं येता, अशें तज्ञांचें मत आसा. सुमार ६,००० हजार वर्सांपयलीं ही वेल इजिप्त देशांत लायताले अशी नोंद मेळटा. नोआ हाणें लायिल्ल्या द्राक्षांच्या मळ्याचो उल्लेख बायबलांत आसा. इ. स. १३०० च्या सुमाराक इराण आनी अफगा-णिस्तान ह्या देशांतल्यान द्राक्षां वेली भारतांत हाडल्यो अशे पुरावे मेळटात.



फ्रांस, इटली, स्पेन, तुर्कस्थान, रशिया, पुर्तुगाल ह्या देशांनी द्राक्षांची व्हड प्रमाणांत लागवड करतात. ते फाटोफाट अमेरिका, आल्जेरिया, रुमानिया, आर्जेंटिना, ग्रीस, इराण, अफगाणिस्तान, दक्षिण आफ्रिका, ऑस्ट्रेलीया, भारत ह्या देशांनी द्राक्षांची लागवड जाता. देशांत सुमार १०,००० हॅक्टेर सुवातींत द्राक्षांची लागवड जाता. भारतांत महाराष्ट्र, कर्नाटक, आंध्र प्रदेश, तमीळनाडू, पंजाब, हरियाणा ह्या राज्यांनी द्राक्षांची लागवड जाता. गोंयचें हवामान द्राक्षांचे लागवडीक योग्य ना. ताका लागून गोंयांत द्राक्षांची लागवड करिनात.

द्राक्षांच्यो सुमार धा हजार जाती आसात. ब्लॅक प्रिन्स, खंडारी डाक, थॉमसन सिडलॅस, सुलताना, खिशमीश व्हायट, बेंगळूर ब्लू, पंचद्राक्ष, अनाब - ए - शाही,चीमा साहेबी ह्यो कांय जाती भारतांत वेपारी तत्त्वाचेर लायतात.

द्राक्षांच्या पिकाक सुक्या हवामानाची गरज आसता. हें पीक वालीचें आशिल्ल्यान ताका माटवाची गरज लागता. वालींची लागवड छाट कलमापसून करतात. द्राक्षां लावपाच्यो तरेकवार पद्दती आसात. तातूंतले 'हेड सिस्टीम' हे पद्दतींत चड करून द्राक्षांची लागवड करतात. हे पद्दतींत २.५ ते ३.० मि. अंतराचेर छाट कलमां लायतात. द्राक्षांची लागवड जानेवारी - फेब्रुवारी ह्या म्हयन्यांनी करतात. तेउपरांत वालीक नेमान उदक दितात. तशेंच दर वालीक २५ - ३० किग्रॅ. शेणखत घालतात. तेभायर दर वालीक ७५ ग्रॅम नत्र, ५० ग्रॅम स्फुरद आनी १२५ ग्रॅम पलाश दितात. ऑक्टोबर म्हयन्यांत वालीची छाटणी करतात. द्राक्षांचें उत्पन्न हें जातीचेर आनी लावपाचे पद्दतीचेर आदारून आसता. एका हॅक्टेरापसून सरासरी २५-३० टन उत्पन्न मेळटा. पुसा सिडलॅस आनी थॉमसन सिडलॅस ह्या बियो नाशिल्ल्या द्राक्षांचें उत्पन्न हॅक्टेराक १५-२० टन मेळटा. द्राक्षांच्यो वाली २-३ वर्सांनी फळां दिवपाक सुरू करतात. एकदां लायले उपरांत ती वाल १५-२० वर्सां उत्पन्न दिता.

द्राक्षांच्या पिकाक खूबशा किडींचो तशेंच रोगांचो त्रास जाता. फ्ली बीटल, थ्रिपस, चाफर बीटल, स्केलस्, वाळटी, ह्यो किडी आनी शेवणीं द्राक्षांचें लुकसाण करतात. तशेंच, पानांचेर पडपी काजळी आनी भुरी हे दोन मुखेल रोग द्राक्षांचें व्हड प्रमाणांत लुकसाण करतात.

द्राक्षांचें फळ गोड आनी रोसाळ आसता. फळ पिकतकच खावपाखातीर वापरतात. फळापसून सोरो तयार करतात. द्राक्षां सुकोवन तांचेपसून खिसमीस तयार करतात. द्राक्षासव आनी द्राक्षारिष्ट हीं द्राक्षांपसून तयार केल्लीं वखदां. सुकयल्लें द्राक्ष आंगाक थंडावो दिता, मूत लींप करता. तशेंच भूक वाडयता.

– विश्राम गांवकार

**द्रोणाचार्य :** कौरव-पांडवांचो धनुर्विद्येंतलो गुरू आनी भारतीय झुजांतलो कौरवांचो एक सेनापती. द्रोणाचार्याचो बापूय भरद्वाज, गंगेर न्हावपाक गेल्लेकडेन घृताची नांवाचे अप्सरेक पळोवन ताचें वीर्यस्खलन जालें. तें वीर्य ताणें दोण्यांत दवरलें आनी ताचेपसून द्रोणाचार्याची निर्मिती जाली अशी एक कथा आसा. द्रोणाचार्याचें दुसरें नांव कूटज.

शरद्वानाची चली कृपी ही द्रोणाचार्याची बायल आनी अश्वत्थामा हो ताचो चलो.

द्रोणाचार्य बापायकडल्यान वेदविद्या, धनुर्विद्या आनी परशुरामा कडल्यान अस्त्रविद्या शिकलो आनी ताणें कौरव-पांडवांक धनुर्विद्येंत प्रवीण केले. अर्जून हो द्रोणाचार्याचो आवडटो शिश्य आशिल्लो. ताणें एकलव्याक विषाद तशेंच कर्णाक सूतपूत्र म्हणून धनुर्विद्या शिकोवपाक न्हयकार दिलो. पूण एकलव्य, द्रोणाचार्याचो मातयेचो पुतळो करून, धनुर्विद्या शिकून, अर्जुनापरस तरबेज जालो. हें कळटकच द्रोणाचार्यान एकलव्याकडेन, गुरुदक्षिणा म्हणून धनुर्विद्येक आवश्यक असो ताच्या उजव्या हाताचो आखाणो मागून घेतलो.

भारतीय झुजांत द्रोणाचार्यान कौरवांवटेन झुजपाचें थरयलें, तेन्ना युधिष्ठिर द्रोणाचार्याक मेळपाक गेलो. त्या वेळार द्रोणाचार्यान ताका सांगलें : "कौरवांनी म्हाका द्रव्यांत घुसपायला. कृष्ण तुमचे वटेन आसा. तुमचेंच जैत जातलें. अयोग्य उतर म्हाका आयकूंक येतलें तेन्ना हांव शस्त्रत्याग करतलों. उपरांत तुमी म्हाका मारात." (महाभारत, भीष्मपर्व, ४३).

भारतीय झुजांत इकराव्या दिसा, भीष्माउपरांत द्रोणाचार्याकडेन सेनापतीपद आयलें. द्रोणाचार्य एकदां द्रुपदाकडेन धन मागपाक गेल्लेकडेन, द्रुपदान द्रोणाचार्याचो अपमान केल्लो. ताचो सूड, द्रोणाचार्यान ह्या झुजांत द्रुपदाक मारून घेतलो.

झुजाच्या पंदराव्या दिसा इंद्रवर्मा राजाचो, 'अश्वत्थामा' नांवाचो हती मेलो, तेन्ना कृष्णान भीमाक 'अश्वत्थामा मेलो' अशी गर्जना करपाक लायली. द्रोणाचार्यान ही गर्जना आयकनाफुडें गळीतगात्र जावन शस्त्र

सकयल दवरलें. योगधारणेन प्राणोत्क्रमण करता आसतना द्रुपदाचो पूत धृष्टद्युम्न हाणें ताका मारलो. मरणा वेळार ताची पिराय महाभारतांतल्या वर्णनाप्रमाण ८०-८५ वर्सां आसूं येता.

- कों. वि. सं. मं.

**द्रौपदी :** पंचाल देशाचो राजा यज्ञसेन द्रुपद हाची चली, पांडवांची बायल आनी महाभारताची नायिका. पंचाल देशाची राजकन्या म्हणून पांचाली, रंगान सावळी आशिल्ल्यान कृष्णा, यज्ञसेनाची चली म्हणून याज्ञसेनी अशीं द्रौपदीचीं हेर नांवां आसात. पूण द्रौपदी हें नांवच चड नामनेक पावलां.

तिच्या पूर्वजल्माच्यो कथा पुराणांत मेळटात. महाभारत, आदिपर्व, १६७ हातूंत आयिल्ले कथेनुसार द्रौपदी पूर्वजल्मीं मुद्गल ऋषीची नालायनी नांवाची बायल आशिल्ली. मुद्गल ऋषी म्हातारो आशिल्ल्यान तिची कामवासना पुराय जाली ना. तिणें शंकराची आराधना करून वर मेळयलो आनी फुडल्या जल्मांत तिका पांच घोव मेळ्ळे.

द्रुपद राजान एकदां द्रोणाचार्याचो अपमान केलो. द्रोणाचार्यान आपल्या शिश्यांवरवीं द्रुपदाचेर हार घाली. तांकां मारपाखातीर द्रुपदान यज्ञ केलो. त्या यज्ञांतल्यान धृष्टद्युम्न नांवाचो एक चलो भायर आयलो आनी एक सावळ्या रंगाची चली आयली. तिचेंच नांव द्रौपदी (महाभारत, आदिपर्व १६७).

देवी भागवताप्रमाण (स्कंध ९) रामावतारांत ती मायासीता म्हणून जल्मली. सीतेक रावणाचो स्पर्श जावंचो न्हय म्हणून अग्निन सीतेचें रक्षण केलें आनी मायासीता रामासांगाता रानांत गेली. तिचें रावणान हरण केलें. रावणाक मारतकच अग्निन रामाक सीता परत दिली आनी मायासीतेक सोडून दिलें. अग्नि आनी राम हांचे आज्ञेन मायासीतेन शिवाची आराधना केली. 'म्हाका घोव दी' अशें पांच खेपे म्हणटकच शंकरान तिका वर दिलो आनी फुडल्या जल्मांत द्रौपदी म्हणून जल्माक येवन ती पांच पांडवांची बायल जाली.

द्रौपदी लग्नाची जातकच तिचें स्वयंवर थरयलें. ह्या वेळार पांडव लाक्षागृहांतल्यान सुटून एकचक्रा गांवांत, भिक्षा मागून, ब्राह्मणवेशांत रावताले. धनुर्विद्येंत कुशळ आशिल्ल्याक द्रौपदी दिवंची म्हणून द्रुपदान धोणू आनी धुंवपी यंत्र तयार दवरिल्लें. 'धोणवाक दोरी लावन जो यंत्रांतल्या लक्ष्याचो वेध करतलो, ताकाच द्रौपदी माळ घालतली' अशें धृष्टद्युम्नान सांगलें. कर्ण सूतपुत्र आशिल्ल्यान द्रौपदीन ताका पयलींच न्हयकारलो. सगळ्या राजांनी यत्न करून पळयतकच निमाणें अर्जूनान लक्ष्यभेद केलो आनी द्रौपदीन ताका माळ घाली. द्रौपदीकडेन धर्मराजान लग्न जावंचें असो अर्जूनाचो हट्ट जाल्यार अर्जुनान द्रौपदीक जिखिल्ल्यान ताणेंच द्रौपदीकडेन लग्न करचें अशें धर्मराजालें म्हणणें. निमाणें पांचूय पांडव आवय म्हऱ्यांत गेले आनी ताणीं सांगलें 'आयज आमी व्हड भिक्षा हाडल्या.' तेबरोबर सदचेप्रमाण कुंतीन 'तुमी ती वांटून घेयात' अशें सांगलें. पूण द्रौपदीक पळयतकच कुंतीक लजेसांगाता वायटूय दिसलें. आवयचें उतर खरें करपाखातीर द्रौपदी पांचूय जाणांची बायल जाली. दर एकल्याकडेन तिणें सारके दीस रावचें. ह्या काळांत हेरांनी तिचेसरेन वचचें न्हय, जो कोण वचत ताका बारा वर्सां वनवास भोगचो पडटलो अशें थरयलें. असले चुकीक लागून फुडें अर्जूनाकूच वनवास भोगचो पडलो.

धर्मराज कौरवांवांगडा द्युतांत हारलो तेन्ना सावन दौपदीचे दुख्खी जीणेक सुरवात जाती. भरसभेंत दुःशासनान तिची विटंबणा केली. ह्या वेळार धृतराष्ट्रान तिका अभय दिवन वर दिलो. आपल्या घोवांची सुटका जावंची असो तिणें वर मागलो. धर्मराज परतून द्युतांत हारलो आनी पांडवांक द्रौपदीसकट वनवास भोगचो पडलो.

वनवासाउपरांत पांडवांचें दुर्योधनावांगडा झूज सुरू जालें तेन्ना द्रौपदीची कौरवांकडल्यान जाल्ले विटंबनेचो पांडवांनी सूड घेतलो. महाप्रस्थानाचे वाटेर द्रौपदीक मरण आयलें.

द्रौपदीक प्रतिविंध्य, सुतसोम, श्रुतकीर्ती, शतानीक आनी श्रुतकर्मा (श्रुतसेन) अशे पांच पूत जाले. पूण भारतीय झुजांत अश्वत्थाम्यान तांकां मारले.

- कों. वि. सं. मं.

**द्वंद्वयुध्द :** दोन सशस्त्र मनशांमदीं थारावन केल्लें झूज. सादारणपणान प्रतिश्ठेखातीर, केल्लो गुन्यांव सुदारपाखातीर, मतभेदांच्या निर्णयाखातीर वा अतिद्वेशाक लागून हीं झुजां खेळटात. अस्तंत्या देशांनी मध्ययुगांतल्या मानापमानाच्यो, सभ्यतायेच्यो आनी दिलदारपणाच्यो कल्पना हाच्या मुळांत आसतात्यो. अती मानवी शक्तीन दिल्लो निर्णय म्हळ्यार द्वंद्वयुध्द अशें मानताले. ईश्वर न्यायावटेन कौल दितलो ही भावनाय ताचेफाटल्यान आसताली. प्रतिश्ठेखातीर अशा झुजाचें आव्हान घेवचें पडटालें. हातूंत बायल वा अशक्त मनीस आसल्यार, प्रत्यक्ष झुजांत ताचे आप्तइश्ट वा दुसऱ्या मनशाक ताचो प्रतिनिधित्व घेवपाचो वेवसायीक वर्ग तयार जालो, तांकां वस्ताद म्हण्टाले. जायते फावटीं रगत येतकच वा अचूक वार जातकच झूज बंद जातालें.

राश्ट्रीय स्वरूप आशिल्ली तशेंच व्यक्तिगत न्यायनिर्णय, प्रतिश्ठा, शूरताय हांचेखातीर द्वंद्व युध्दां जातालीं. न्यायदानांत दोशी - निर्दोशी थारोवपाखातीर आनी खरेपणाचो निर्णय घेवपाखातीर द्वंद्व युध्दां जातालीं. राश्ट्रीय द्वंद्वयुध्दांत राश्ट्राचे सेनेवतीन प्रतिनिधी म्हणून सगळ्या जैतीवंतांमदीं झूज जातालें. ज्या सैन्याचे सगळे झुजारी जैतीवंत जाताले त्या देशाक जैत मेळ्ळें अशें मानताले. देखीक, डेविड आनी गोलियथ वा सोहराब आनी रुस्तुम हांचीं द्वंद्वयुध्दां.

हुशारकायेची परिक्षा घेवपाच्या उद्देशान जर्मनिक टोळ्यांत द्वंद्वयुध्दाची सुरवात जाली अशें म्हण्टात. हाचो उल्लेख पुर्विल्या कायद्यांत मेळटा. आदीं असलीं झुजां कायदेशीर मानताले. सोळाव्या शतमानामेरेन तांचो प्रसार शिमीत आशिल्लो. अठराव्या - एकुणिसाव्या शतमानांनी पिश्तोल वापरपाक सुरवात केली. द्वंद्वयुध्दांतल्यान न्याय मेळोवपाची कल्पना क्रिस्तांव इगर्जेक मान्य आसली तरी झुजांत जावपी हिंसक आनी प्राणघातक करण्यांक तांचो विरोध आसतालो.

भारतांतलीं द्वंद्वयुध्दां धर्मयुध्दाच्या नेमाप्रमाण जातालीं. तांचें अस्त्र गदा वा खड्ग आसतालें. मुष्टियुध्द, मल्लयुध्द हेय द्वंद्वयुध्दाचेच प्रकार. बाहुयुध्द, गदायुध्द वा खड्गयुध्द भुंयेवयल्यानूच जातालीं. घोड्यावयल्या वा हतयावयल्या द्वंद्वयुध्दाचे प्रकारय मान्य आशिल्ले. रामायण, महाभारत, पुराणां आदी ग्रंथांतल्यान जायत्या द्वंद्वयुध्दाचीं वर्णनां मेळटात. वाली-सुग्रीव, कृष्ण-चाणूर, भीम-दुर्योधन, भीम-कीचक, भीम-जरासंध हांचेमदल्या

झुजांची नामना आसा. भारतांत न्यायदानांत द्वंद्वयुध्दाक केन्नाच सुवात दिवंक ना. संग्रामांतूच संग्रामाचो एक वांटो म्हणून द्वंद्वयुध्दां जातालीं. सामान्यप्रमाण संग्राम-नितीप्रमाण द्वंद्वयुध्दां जातालीं.

युरोपांत सव्या शतमानासावन बर्गंडीचो राय गंडोबॅड हाणें द्वंद्वयुध्दाक प्रेरणा दिल्ली. फ्रांसाचो राजा चवथो हॅन्री आनी तेरावो लुई हांचे कारकिर्दींत आठ हजार सरदारांक ह्या प्रकारच्या झुजांत मरण आयिल्लें. आंतरराश्ट्रीय वादाचो निर्णय प्रत्यक्ष राजा द्वंद्वयुध्दान करताले. जर्मनींत १९१४ मेरेन राश्ट्रवाद आनी स्वच्छंदतायवाद ह्या कल्पनांनी भारावल्ले विद्यार्थी आनी लस्करी अधिकारी व्हड प्रमाणार अशीं झुजां करताले. इटलींत द्वंद्वयुध्दाचे नितीनेम थरोवन ताका नितीक रूप दिवपाचो यत्न जालो. फुडें प्रतिनिधीवतीन झूज करपाची चाल पडली. झुजाचे शिक्षक तेचपरी वेवसायीक झुजारी हांकां व्हड प्रमाणांत मागणी आसताली.

कॅनडा-अमेरिकेंत सतराव्या शतमानासावन द्वंद्वयुध्दां जातालीं. जॉर्ज वॉशिंग्टनाचो इश्ट अॅलेक्झांडर हॅमिल्टन आनी तेन्नाचो उपराष्ट्रपती आरॉन बर तशेंच अँड्र्यू जॅक्सन (फुडें राष्ट्रपती) आनी चार्ल्स डिकन्सन हांचेमदीं द्वंद्वयुध्दां जाल्लीं. १८५९त गुलामगिरी दुस्वाशी सिनेटर डेविड ब्रॉडरिक आनी गुलामगिरीचो मोगी भूतपूर्व न्यायाधीश डेविड टॅरी हांचेमदीं जाल्ली द्वंद्वयुध्दाची संवसारीक नामना आसा. जपानांत सामुराई क्षत्रीय द्वंद्वयुध्दां करताले. द्वंद्वयुध्दाक गवाय नासताले. कोणाची तरसाद अतितीक्ष्ण आसा हें थरोवपाखातीर झुजाऱ्यांनी आपली तरसाद आपल्याच पोटांत तोपपाचे प्रकार घडटाले. चीनांत पुर्विल्ल्या काळांत संग्रामांत द्वंद्वयुध्दां जातालीं. तुर्कस्थानांत हें झूज खेळपी झुजारी एकामेकांक कपालान धुकलताले. हातूंत जो हारतालो तो स्वतःच्या गळ्यांत कटचार तोपून मरतालो. रशियेंत ट्युटॉनिक वंशिकांच्या सान्निध्याक लागून सरदार - दरकदारांत द्वंद्वयुध्दां जातालीं. राज्यक्रांती उपरांत द्वंद्वयुध्दांक कायमची बंदी आयली.

द्वंद्वयुध्दाचे १७७७ चे आयर्लंडी नेम (गॅलवे संहिता), १८३६ चे शातोविलर्ड आनी दक्षिण कॅरलायनाचो आदलो गव्हर्नर जॉन हायड विल्सन हाणें १८३८त उजवाडा हाडिल्ले द्वंद्वयुध्दाचे नेम आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**द्वापर युग :** कृतादी चार युगांतलें तिसरें युग. भाद्रपद कृष्ण तिरोदशीक बिरेस्तारा ह्या युगाची सुरवात जाली अशें म्हळां. ह्या युगाचीं लक्षणां अशीं : ह्या युगांतले अवतार कृष्ण आनी बुध्द. पुण्याय अर्दी, पाप अर्दें, तीर्थ नैमिषारण्य, ब्राह्मण नाडी पळोवपी, प्राण रक्तगत, मनशाचो देह सप्तहस्तपरिमित, पिराय हजार वर्सां, जेवण तांब्या आयदनांत. ह्या युगांतले राजा शाल्व, विराट, हंसध्वज, कंसध्वज, मयूरध्वज, वज्रवाहन, रुक्मांगद, जरासंध, दुर्योधन आनी युधिष्ठिर आनी लोक धर्माधर्मरत, प्रलापी, चपल आनी ज्ञाननिश्ठ आसतात. ह्या युगाचो तारकमंत्र असो -

हरे मुरारे मधुकैटभारे ।
गोपाल गोविन्द मुकुन्द शौरे ।
यज्ञेश नारायण कृष्ण विष्णो,
निरश्रयं मां जगदीश रक्ष ॥

त्रेतायुगांत ज्या मनशांनी सिध्दी प्राप्त करून घेतिल्ल्यो आसतात, तांचो द्वापरयुगांत नाश जाता. ह्या युगांत वर्णाश्रमांचोय ऱ्हास जाता. श्रुती आनी स्मृती हांचेमदीं एकचार उरना देखून अर्थाचो निश्चय जायना आनी धर्मतत्त्वाचो बोध जायना. सगळेकडेन मतभेद दिसतात. धर्माचो संकर जाता. लोकांक अनावृश्टीक लागून मरण येता. तरेकवार व्याधींनी लोक पिडीत जातात. लोकांमदीं लोभ, काम आनी दुस्वास वाडटा. द्वापर हें वैश्ययुग आसून तातूंत जायतीं झुजां जातात.

ह्या युगाक आठ लाख चवसठ हजार वर्सां आसतात. कौरव आनी पांडव हांचें झूज द्वापरयुग सोंपून कलियुग लागलां तेन्ना जालें अशें मानतात. ह्या युगांत धर्माच्या चार पांयांतले दोन पांय गळून पडले.

- कों. वि. सं. मं.

**द्वारका :** पुर्विल्लें एक नामनेचें तीर्थक्षेत्र. हें गुजरात राज्याच्या जामनगर जिल्ह्यांत गोमती न्हंयेचे देगेर आसा. हिंदूंच्या चार पवित्र धामांभितर द्वारकेचो आस्पाव जाता. हिंदू लोक ह्या क्षेत्राक पवित्र मानतात.

द्वारकेक द्वारावतीपुर, द्वारवती, द्वारमती, वनमालिनी अशींय नांवां आसात. 'कृता द्वारवती नाम बहुद्वारा मनोरमा' म्हळ्यार खूब दारां आशिल्ली अशी द्वारवती नांवाची मनोरम नगरी निर्माण केली, अशें हरिवंशांत म्हळां. 'चतुर्वर्णानां मोक्षद्वाराणि सन्ति यत्रेति।' - जयं चारुय वर्णांखातीर मोक्षद्वारां उघडीं आसात, ती द्वारवती अशीय एक व्युत्पत्ती मेळटा.

कंसाचो वध जातकच, जरासंध आनी कालयवन हांणी मथुरेचेर आक्रमण केलें. तेन्ना यादवांक त्रास जावपाक लागलो. त्या वेळार कृष्णान राजस्थानांतल्यान येवन रैवतक पर्वताच्या मुळाकडेन थंयच्या सागरतिराचेर विश्वकर्म्याचे हस्तुकीं द्वारका नगराची उबारणी केली अशें पुराणांत म्हळां. महाभारत, हरिवंश आनी वायू, विष्णु, भागवत, वराह, स्कंद ह्या पुराणांनी द्वारकेचीं वर्णनां आसात.

दर्यान कृष्णाचे द्वारकेखातीर १२ योजना जमीन दान दिली आनी ते जमनीर कृष्णान द्वारका बांदली अशी आख्यायिका आसा. आपल्या शत्रूंपसून आपले प्रजेक त्रास जावंचे न्हय म्हणून कृष्णान द्वारकेची उबारणी उदकांत केली अशीय आख्यायिका आसा. राश्ट्रीय समुद्रविज्ञान संस्थेचे (गोंय) वतीन द्वारका लागसरच्या दर्यांत केल्ल्या उत्खननांत पोन्या द्वारका शाराचे अवशेश मेळ्ळ्यात.

हांगा श्रीकृष्णाचें, भांगराचो कळस आशिल्लें देवूळ आसा. ह्या देवळांक चार दारां आसून ह्या देवळाचो सभामंडप साठ खांब्यांचेर उबारिल्लो आसा. मंदिरांतली चार भुजांची श्रीकृष्णाची मूर्त १.२ मी. उंचायेची आसा. ह्या मंदिराभोंवतणीं खूब ल्हान-व्हड देवळां, कुंडां आनी घाट आसात.

आद्य शंकराचार्यान भारताच्या चार दिकांनी ज्या चार धर्मपिठांची स्थापणूक केली. तातूंतलें शारदापीठ नांवाचें धर्मपीठ द्वारकेंत आसा.

हांगा यात्रेकारांखातीर १० धर्मशाळा आसात. वसंत पंचम, अक्षय्य तृतिया, गोकुळाश्टम ह्या परबां वेळार हांगा व्हडली जात्रा भरता.

ह्या नगराचे उत्तरेक १.५ किमी. अंतराचेर द्वारका बंदर आसा. हांगा पयलीं व्हड प्रमाणांत आयात-निर्यात जाताली. पूण हालीं ओखा बंदर जाल्ल्यान द्वारका बंदराचें म्हत्व उणें जालां. सदया थंय एक शिमिटाचो व्हड कारखानो आसा.

- कों. वि. सं. मं

**द्वैतदर्शन** : (पळेयात द्वैतवाद).

**द्वैतवाद :** परमात्मो, जिवात्मो आनी हेर अचेतन विश्व हांचेमदलें द्वैत म्हणजे भेद सांगपी तत्त्वगिन्यान. संवसारांतल्या घटकांचें परस्पर संबंदीत अस्तित्व, प्रयोजन, कार्य, अधिकार हांचे संबंदी मुखेल अशे दोन सिध्दांत आसात. एका सिध्दांताप्रमाण ह्या घटकांमदीं द्वैत म्हणजे भेद नासून एकच घटक (निर्गुणब्रह्म) हेंच अंतीम सत्य आसा आनी उरिल्लें सगळें विश्व मिथ्या आसा. ह्या सिध्दांताक अद्वैतवाद वा केवलाद्वैतवाद म्हणटात. ह्या सिध्दांताप्रमाण जिवात्मो आनी परमात्मो हांचेमदीं भेद नासून दोगांयचें एकत्रित अस्तित्व हें अंतीम निर्णायक आसून उरिल्ल्या दृश्य विश्वाचें तें नियंत्रक आसा. द्वैतवादाच्या सिध्दांताप्रमाण परमात्मो, जिवात्मो आनी हेर अचेतन विश्व हांचें एकामेकांपसून वेगळें अशें स्वभावीक अस्तित्व आसा. ह्या सिध्दांता प्रमाण जीव आनी ईश्वर, ईश्वर आनी जगत, जगत आनी जीव, जीव आनी जीव आनी विंगड विंगड पदार्थ हांचेमदीं स्वभावीक द्वैत म्हळ्यार भेद सांगल्यात.

भारतांतल्या वैष्णव, शैव आनी हेर पंथांनी आपलीं वेगवेगळीं तत्त्वज्ञानां तयार केल्यांत. तत्त्वज्ञानांचीं मुळां भारतीय सुक्तांनी विशेश करून ब्रह्मसुत्रांनी आनी उपनिषदांनी मेळटात. सुक्ता आनी उपनिषदांतल्या तत्त्वगिन्यानाचेर केल्लीं भाष्यां हींच मुखार विस्तारीत जावन ह्या पंथाचीं तत्त्वज्ञानां म्हणून मुखार आयलीं. ह्या तत्त्वगिन्यानांमदीं विशिश्टाद्वैतवाद (रामानुजाचार्य), द्वैताद्वैतवाद (भतृप्रपंच, भास्कर आनी निबांर्क), द्वैतवाद (मध्वाचार्य), शुध्दाद्वैतवाद (वल्लभाचार्य), अचिंत्यभेदाभेदवाद (चैतन्य गौरांग प्रभू), केवलाद्वैतवाद (शंकराचार्य आनी मंडनमिश्र) हीं मुखेल तत्त्वगिन्यानां आसात.

केवलाद्वैतवाद हो आद्य शंकराचार्य (७८८-८२०) हाणें विस्तारीत करतना ब्रह्म हेंच एक सत्य तत्त्व आसा अशें सिध्द केलें. आपल्या सिध्दांतांत मोक्षाक मुखेल ध्येय मानून त्यानुसार हेर संबंदीत विचार मांडप जाल्यात. ब्रह्म होच आत्मो आसा आनी तो स्वयंसिध्द प्रमाण आसा. तो संवसारांतल्या हेर पदार्थांच्या अस्तित्वाक आनी ताच्या वेव्हाराक आदार आशिल्ल्यान ताच्या अस्तित्वाक भायल्यान सिध्द करपाची गरज उरना. तो निराकरण जावंक शकना कारण तो स्वता निराकरण करपी आसा. आत्मो हो प्रारंभ बिंदू आशिल्ल्यान तो स्वता सिध्द आसा. ताचे वरवीं हेर जगत सिध्द करप शक्य जाता. केवलाद्वैत वादाप्रमाण ब्रह्म हें विश्वाचें कारण आसलें तरी हें कारणत्व सांख्याच्या त्रिगुणात्मक प्रकृती प्रमाण परिणामी कारणत्व ना. सांख्याची प्रकृती महत्, अहंकार, पंचतनमात्रे, पंचमहाभुतां हाच्या रुपान विकार पावता. पूण ब्रह्म अविकृत रावनच विश्वरूप जाता.

ईश्वरवादी धर्माच्या सिध्दांताचेर आदारीत मध्वाचार्यान (सुमार ११९९-१२७८) द्वैतवादाचें तत्त्वगिन्यान उबें केलां. परब्रह्म भगवान विष्णु हो स्वतंत्र आसून उरिल्ले सगळे भाव-अभाव, चेतन-अचेतन, नित्य - अनित्य, विमुक्त, मुक्तियोग, मुक्तिक अयोग्य, अशे हे विष्णु परतंत्र आसात. स्वरूप प्रमिती आनी प्रवृत्ती हीं सत्तेचीं तिनय लक्षणां ईश्वराधीन आसात. तो स्वतंत्र आसून हेर सगळे पराधीन आसात. हेर विश्वाची सत्ता विष्णुच्या आधिन आशिल्ल्यान तो हेर विश्वाच्या जिवनाचो आदार आसा.

परब्रह्म स्वतंत्र आसा आनी तें विश्वाचें निमित्य कारण जावन सर्वज्ञ आनी सर्वकर्ता आसा, हो मध्वाचार्याचो द्वैतवादी सिध्दांत शंकराचार्याच्या केवलाद्वैतवादी सिध्दांतापरस वेगळो ना. पूण परब्रह्म हें हेर अचेतन विश्वाचें उपादानकारण आसा अशें शंकराचार्याचें मत, जाल्यार विश्वाचें उपादान कारण हें जड प्रकृती आसा अशें मध्वाचार्याचें मत.

शंकराचार्याचे 'उपदेशसाहस्त्रीत', 'दक्षिणामुर्तिस्तोत्रात', 'ब्रह्मसूत्रभाष्य', 'तैत्तिरीय', 'बृहदारण्यक', मंडनमिश्रांचो 'ब्रह्मसिध्दि', पद्मपादाचार्याचो 'पंचपादिका', प्रकाशात्मयतीचो 'विवरण'; वाचस्पति मिश्राचो 'भामती', अमलानंदाचो 'कल्पतरू', अप्पय्य दीक्षिताचो 'परिमल' आनी 'सिध्दांतलेशसंग्रह'; सुरेश्वराचार्याचो 'नैष्कर्म्य सिध्दि'; विमुक्तात्मयतीचो 'इष्टसिध्दि', रामानुजाचार्याचो 'शारीरकभाष्य'; सर्वज्ञात्ममुनीचो 'संक्षेपकशारीरक', श्री हर्षाचो 'खंडनखंडखाद्य', चित्सुखाचो 'तत्तवप्रदीपिका', विद्यारण्याचे पंचदशी, विवरण प्रमेय संग्रह आनी जिवन्मुक्तिविवेक; धर्मराजाध्वरींद्राचो 'वेदांतपरिभाषा' मधुसूदन सरस्वतीचो अद्वैतसिध्दी आनी 'तत्तवबिंदु' सदानंदाचो 'वेदांतसार' हे शंकराचार्याच्या केवलाद्वैतवादावयले मुखेल ग्रंथ-भाष्य-टीका आसात. दशोपनिषदांचीं भाष्यां, गीतातात्पर्य, ब्रह्मसूत्रभाष्य, न्यायविवरण, अनुव्याख्यान, ऋग्वेदभाष्य, महाभारततात्पर्य, भागवततात्पर्य, दशप्रकरणां, द्वादशस्तोत्रां अशे सुमार ३६ ग्रंथ बरोवन मध्वाचार्य हाणें द्वैतवादाचें स्पश्टीकरण आनी विस्तार केलो. उपरांत पद्मनाभतीर्थाचो (१३१८-९४) दशप्रकरण टीका, पदार्थसंग्रह, संन्यायरत्नावली, टीकाचार्य जयतीर्थाचे (१३६५-८८) अनुव्याख्यानावेली टीका, न्यायसुधा, दशप्रकरणांवयली टीका, प्रमाण पद्दत आनी वादावली, व्यासतीर्थाचे (१४७८-१५३९) न्यायामृत, तात्पर्यचंद्रिका, मंदार मंजरी आनी तर्कतांडव, वादिराजाचो युक्तिमल्लिका, राघवेंद्रतीर्थाचो तर्कतांडवावेलो न्यायप्रदीप हे द्वैतवादाचेर विवेचन करपी मुखेल ग्रंथ.

- कों. वि. सं. मं.

**धंय :** दुदाक विरजण लावन तयार केल्लो एक पदार्थ. दूद बरें तापोवन तें दुगदुगीत आसतनाच ताका विरजण लायतात. दूद तापयतकच जी दाट साय येता ते सायेक लोणयाखातीर वेगळें विरजण लायतात आनी उरिल्ल्या दुदाक वेगळें विरजण लायतात. विरजणाचें प्रमाण दुदाच्या १-५ % आसता आनी तें लायतना दुदाचें तापमान सु. ३२°सॅ. आसचें पडटा. धंय तयार जावंक सादारणपणान १० ते १२ वरां लागतात. शिंया दिसांनी धंय जावंक चड वेळ लागता. गरमे दिसांनी दुदाचें आयदन थंड जाग्यार दवरल्यार विरजण फसफसना. धंयाक गोडशी आंबसाण आयली म्हण्टकच तें वापरूंक वा लोणी काडूंक योग्य जालें अशें समजतात. विरजण चड दिसांचें (शेळें) आसल्यार धंय खूब आंबट जाता, चड फसफसता, वायट वास मारता आनी रुचीक कोडू लागता. धंय कोडू आनी पचक आसल्यार तें वापरपाक योग्य नासता. अर्दवट विरजल्लें तशेंच सायेसकट विरजल्लें धंय खावपाक बरें आसता.

लोणयांतलो स्निग्ध पदार्थ धंयाच्या वयल्या थरांत एकठांय जाल्ल्यान धंयाचेर दाट साय येता. उदाऱ्या आनी पसरट आयदनांत ही क्रिया जाता. धंयाचें आयदन बरें उदारें आसल्यार सायेंत ९०% परस चड स्निग्ध पदार्थ एकठांय जातात. विरजण लायतकच तीन चार वरांमेरेन दूद एक सारकें धवळींत रावल्यार स्निग्ध पदार्थ सगळेकडेन सारक्या

प्रमाणांत भरसता. धंयांत लॅक्टीक आम्लाच्या स्वरूपांत ०.६-१ % अम्ल आसता. दुदाची प्रत, विरजणांत खंयचे सुक्ष्मजंतू आसात आनी ते तयार जावंक लागिल्लो वेळ हाचेर धंयाचें संघटण बदलता. लॅक्टोबॅसिलस बल्गेरिकस ह्या सुक्ष्मजंतूंचें चड प्रमाण आशिल्लें आंबट धंय दक्षिण भारतांत लोकप्रिय आसा. उत्तर भारतांतल्या खूबशा भागांनी उण्या प्रमाणांत आंबट आनी सुवासाचें धंय तयार करतात. धंयांत चड करून स्ट्रॅप्टोकॉकाय (स्ट्रॅप्टोकॉकस थर्मोफिल्स) आनी लॅक्टोबॅसिलस केसिआय हे सुक्ष्मजंतू आसतात. ह्या जंतूची वाड जातकच दुदापसून धंय जावपाची क्रिया जाता. हें सुक्ष्मजीव दुग्धशर्करेचें (लॅक्टोझांचें) लेक्टीक आम्लांत रुपांतर करतात. दुदांतली आंबसाण वाडली म्हण्टकच दुदांतलीं प्रथिनां तळाक बसतात. तशेंच ह्या सुक्ष्मजंतूंतल्या रॅनॅट ह्या एंझायमाचे प्रक्रियेखातीर दुदांतलीं प्रथिनां तळाक बसून धंयाचें स्वरूप जॅलीभाशेन जाता.

अस्तंत्या देशांनी योर्गत नांवाचें गोड धंय वापरतात. अमेरिकेंत ताची बरीच नामना आशिल्ल्यान, व्हड कारखान्या वरवीं तयार करून कागदी आयदनांतल्यान तें आइस्क्रिमाभाशेन विकतात.

सदच्या आहारांत धंयाचो उपेग करतात. धंयापसून लोणी काडटात. तशेंच, ताचेपसून ताक, लस्सी, मठ्ठा, श्रीखंड, चीझ आदी पदार्थ तयार करतात. भारतांत उत्पादन जातल्या वट्ट दुदांतलें सुमार ९% दूद धंयाखातीर वापरतात.

आयुर्वेदांत धंयाचे सात प्रकार सांगल्यात ते अशे: गोड, आंबट, चड आंबट, अर्दें विरजल्लें, तापिल्ल्या दुदाचें, सायेचें आनी साय नासतानाचें. धंय उश्ण, स्निग्ध, जड, रुचीक, शुक्रधातुक हिताचें आसता.

पंचामृतांत धंयाचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**धंयकालो :** (पळेयात कालो).

**ध :** ध वर्णमाळेंतलें एकुणिसावें व्यंजन आनी त वर्गांतलो चवथो वर्ण. हाच्यो पांच अवस्था आसात. पयली गिरनारच्या अशोकाच्या शिलालेखांत, दुसरी मेवाडचो राजा अपराजित हाच्या काळांतल्या (इ.स. ६६१) कुंडेश्वराच्या लेखांत, तिसरी उदयादित्याच्या काळांतल्या (इ.स. चो ११ वो शेंकडो) उज्जयिनी हांगाच्या लेखांत आनी चवथी अबूचो राजा धारावर्ष हाच्या काळांतल्या (इ.स. १२०८) ओरिआ हांगाच्या लेखांत मेळटा. हाची पांचवी अवस्था सगळ्याक दिश्टी पडटा.

ध च्या रुपाचो विकासक्रम असो आसा –



कामधेनू तंत्रांत हाचें वर्णन केलां तें अशें –

धकारं परमेशानि । कुण्डली मोक्षरूपिणी ।
आत्मादितत्त्वसंयुक्तं पञ्चदेवमयं सदा॥
पंचप्राणमयं देवि । त्रिशक्तिसहितं सदा ।
त्रिबिन्दुसहितं वर्णं धकारं हृदि भावय ॥
पीतविद्युल्लताकारं चतुर्वर्गप्रदायकम् ॥

**अर्थ** – हे पार्वती, ध हो कुंडली, मोक्षरुपी, आत्मादितत्त्वयुक्त, पंचदेवमय, इत्सा, ज्ञान आनी कर्म ह्या तिनूय शक्तींनी युक्त आनी तीन बिंदुंनी युक्त असो आसा. ह्या स्वरुपांत तूं ताची भावना कर. ताचो वर्ण हळदुवो उज्याभाशेन आसून तो चतुर्वर्ग सादून दिता.

दंत हें ताचें उच्चारणस्थान आसा.

- कों. विं. सं. मं.

**धनका :** एक आदिवासी जमात. गुजरात आनी महाराष्ट्र राज्यांनी ह्या लोकांची चड वसती आसा. हे लोक मूळचे पावागढचे आशिल्ले अशी समजूत आसा. अहमदाबादचो सुलतान महंमद बेगडा हाणें जेन्ना पावागढच्या राजाचो पराभव केलो तेन्ना ताचे सैनिक आनी लोक रानांत पळून गेले. थंय तांणी धान म्हळ्यार तरणें कड्डण खावन जीव जगयलो. ताका लागून तांकां 'धनका' नांव मेळ्ळें अशी आख्यायिका आसा. तांच्यांतलें कांय लोक नर्मदेचे देगेर वचून रावले, तांकां तटवी हें नांव मेळ्ळें. 'तडवी' हें नांव ताचेंच रुपांतर. तेभायर तेतरिया नांवानूय तांकां वळखतात. १९५६ वर्साच्या कायद्याप्रमाण तड्वी, तेतरिया, वळ्वी ह्यो जमाती धनकाच्योच पोटजाती आशिल्ल्याचें जाहीर करून तांचो आस्पाव धनका जमातींत केलो. तेतरिया आनी तड्वी हे आपलो उल्लेख करतना निमाणें धनका हें उतर लायतात. वळ्वी हे स्वताक उच्च समजतात. महाभारतांत धोणवाक असो उल्लेख आयला तेंच धनका आसुंये अशेंय एक मत आसा.

चडशे धनका लोक भिल्ली भास उलयतात जाल्यार कांय जाण गुजराती आनी मराठी भास उलयतात.

धनका दादले बंडी, पुडवें घालून माथ्याक फेटो बांदतात. बायलो साडी आनी ब्लावज घालतात. बायलो रूपें-पितूळच्यो वस्ती घालतात. सवायशीण बायलो मंगळसुत्राभाशेन 'हंसडी' हो अलंकार वापरतात. घोव मरत जाल्यार बायल हंसडीवांगडा आंगांतल्यो हेर वस्तीय काडून दवरतात. त्यो कपलाचेर आनी हातांचेर स्वस्तिक, आंब्याची थाळी वा हेर कसलीय आकृती पाडून घेतात.

तांदूळ, ज्वारी, बाजरी, तोरची दाळ हें तांचें मुखेल अन्न. मेळटा तेन्ना ते भाजयो, मांस, नुस्तेंय खातात. रानांनी रावपी लोक चडशे रानटी फळां आनी कंदमुळां खावन पोट भरतात. लग्न सुवाळ्याक वा हेर कसल्याय परबांवेळार ते सोरो पियेतात आनी गंवाचे जिनस आनी गोडशें खातात.

धनका लोक भिल्लांपरस उजळ आनी देखणे आसतात. दिसपाक ते तरतरीत आसतात.

तांचीं घरां काटकोनी वा आयताकार आसून तांच्यो वण्टी कुडाच्यो वा शेणान सारयल्ल्यो आसतात. तातूंत तीन वा चार कुडी आसून एक वारांद आसता. तांच्या घरांत मान्नें वा संडास नासता पूण ते लोक नितळ, निवळ रावतात.

धनकांच्या धर्मांत वाघ्या, शिवाया, डोंगरदेव, गोप चौहान देव आनी धानदेव ह्या देवांक भजतात. वाघ्या देव तांच्या गोरवांची आनी शिवाया देव गांवाची राखण करता अशी तांची समजूत आसा. ह्या देवांक धनका लोक सोरो आनी कुकड ओंपतात. तशेंच उंचेरीमाता, नीचेरी माता, खप्पर जोगिणी, कालिका राणी ह्या देवतांकूय ते भजतात. गोप चौहान हो सर्पदेव आसून, धानदेव तांच्या पिकांची राखण करता. शेंदूर लायिल्लो

एक फातर तांच्या देवांचें प्रतीक आसता. धनीक लोक वर्सांतल्यान दोनदां सगळ्या ग्रामदैवतांची सामुदायिक पुजा करतात.

चेटूक, जादू, भुतांखेतां, दिश्ट लागप हांचेर धनका लोकांचो खूब विस्वास आसा. ह्या भुताखेतांचें वा रोगाचें निदान करून तांचेर उपाय सांगपाचें काम ते गांवांतल्या भगताचेर सोंपयतात. ताका लागून भगताक गांवांत खूब मान आसता. हिंदूंच्यो चडशो सगळ्यो परबो हे लोक मनयतात. तशेंच, दिव्यांची उमास आनी नंदर्वो ह्यो तांच्यो खाशेल्यो परबो आसात. नंदर्वो म्हळ्यार नवी कोमरी येवपाची परब. ह्यो परबो ते उमेदीन मनयतात. ह्या वेळार चले-चलयो एकठांय येवन आपलो सांगाती वेंचतात.

भुरगीं पिरायेंत येतकच लग्नां जातात. आते-मामे भावंडांकडेन लग्नां जायनात. देर-भावजय हांचीं लग्नां जातात. चलयांची संख्या चल्यांपरस उणी आशिल्ल्यान घटस्फोटाच्यो खूब देखी आसात. ताका 'फारकत' म्हण्टात. लग्नाउपरांत घरांतलो पूत वेगळो रावता. बापायचे इस्टेटींत पुताक सारको हक्क मेळटा पूण धुवेक कांयच मेळना.

बाळंटेर घोवागेर जाता. पांच दीस सुवेर पाळटात. पांचव्या दिसा बाळंटिणीक न्हाणयतात आनी सटयेची पुजा करून भुरग्याचो बारसो करतात.

धनका लोक मडें लासतात. मडें पयलीं न्हाणोवन नव्या वस्त्रान गुठलायतात. ताच्या तोंडांत रुप्याचें नाणें दवरतात. हेर विधी हिंदूभाशेनूच करतात. ल्हान भुरग्यांक पुरतात. धा दीस सुतक पाळटात. धाव्या आनी इकराव्या दिसा सोयऱ्यांक जेवण घालतात. तेराव्या दिसा गांवच्या लोकांक जेवण घालतात. ताका दहोद म्हण्टात.

धनकांचो शेती हो मुखेल वेवसाय. कांय जाण रानांतलीं झाडां कापून तशेंच दीख म्होव एकठांय करून विकतात. हे लोक पयलीं कोंड्यांच्यो शेंदऱ्यो, पांटले करून विकताले. पूण हालीं झाडां कापपाक बंदी आशिल्ल्यान तांचो हो वेवसाय बंद जाला.

धनका जमातीचो सगळो वेव्हार पंचायत पळयता. जमातींतल्या सरपंचाक ज्ञाती पटेल वा कारभारी म्हण्टात. तो हेर पंचांच्या विचारान जमातींतले प्रस्न सोडयता. सरपंच वा पंच हे गांवांतल्या जाण्टया मनशांनी वेंचिल्ले आसतात.

– कों. वि. सं. मं.

**धनगर :** एक जात. हांची वसती महाराष्ट्राच्या वेगवेगळ्या वाठारांनी दिसता. कानडी भाशेंत हे जातीचें नांव दनगार अशें आसा. दन म्हळ्यार गोरवां, ताचेवयल्यान दनकार-दनगार-धनगर (गोरवां पोसपी) अशे तरेन हो शब्द तयार जालो. आयज कोंकणांत धनगर हे गायो-म्हशी पोसपाचो वेवसाय करतात. ते चड करून मेंढरां पोसतात.

धनगराचे उत्पतीविशीं एक कथा प्रचलीत आसा ती अशी - पुर्विल्ल्या काळांत एकदां रोयणींतल्यान बोकड्यां-मेंढरांचे कळप भायर आयले आनी ते शेतांची नासाडी करूंक लागले. शेतकारांनी हो त्रास पयस जावपाखातीर म्हादेवाची प्रार्थना केली. तेन्ना म्हादेवान त्यो बोकड्यो - मेंढरां राखपाखातीर धनगराची निर्मिती केली.

धनगरांमदीं २२ पोटभेद आसात. ते अशे - अहिर, अस्सल वा मराठा, बनजी, बरगेबंद वा मेठकरी, डंगे, गडगे, गवळी, धोगत्तुन्य, हटकर वा झंडेवाले, होळकर, कंगर, खिक्री, खिल्लारी वा थिलारी, खुटे वा खुटेकर, कुकटेकर, लाड, मेंढे, म्हसकर, सनगर, शेगर, शिळोत्या आनी उटेगर, तांचेमदीं आडनावांनीं दाखोवपी कितलीशींच कुळां आसात. वंशशास्त्राचे नदरेन धनगरांची गणना शक-द्रविडांत जाता. समाजवेवस्थेंत तांची सुवात शुद्र वर्णांत मानतात. तांच्यांतल्यो खिल्लारी आनी हेर जायत्यो पोटजाती अजुनूय मेंढरांचे कळप घेवन गांवागांवांनी हेडत आसतात. तांच्या मेंढरांच्या कळपावांगडा शिकयल्ले शिकारी सुणेय आसतात. तांची जातपंचायतूय आसता. ती दर तीन वर्सांनीं जातीचे न्यायनिवाडे करता. गोरवां, मेंढरां, पोसपावांगडाच धनगर लोक सद्या कांबळी विकपाचोय वेवसाय करतात. धनगरांच्यो कांय पोटजाती लोकर विणपाच्या वेवसायावांगडाच शेतकामाचोय वेवसाय आपणावन स्थायीक जाल्यात.

तांचीं घरां लांबचेलांब आनी खोंपीसारकीं आसतात. तीं तणाचीं आसून तांकां एकूच दार आसता, जनेलां नासतात.

काश्टी, माथ्याक फेटो, खांदार कांबळ, पांयांक जोतीं आनी हातांत लांब बडी असो धनगराचो भेस आसता. बायलो धोपरामेरेन चड करून



तांबड्या रंगाचे कांसाटयाचें न्हेसण न्हेसतात. धनगर बायलांक रुप्यांचे अलंकार खूब आवडटात. धनगर दादले उजव्या हातांत रुप्याचें कडें घालतात. तांच्या कानांतूय रूप्याचीं कडीं आसतात. तांकां अंती म्हण्टात. धनगरांक धातवाच्या नाण्यांची ओड आसता. तांच्या भुरग्यांच्या गळ्यांत रुपयांच्यो माळो घाल्ल्यो आसतात. धनगर हो स्वभावान कश्टी आनी काटकसरी आशिल्ल्यान पयशे राखून दवरता.

सुर्यफूल, कमळ, पाचपालवी हीं धनगरांचीं देवकां. खंडोबा आनी बिरोबा हे तांचे खास देव. जेजुरी (जि. पुणें) आनी आरेवाडी (जि. सांगली) हीं त्या देवांचीं क्षेत्रां धनगर लोक म्हत्वाचीं मानतात. धनगरांमदीं तुळजाभवानीचीय उपासना चलता. ते देवीचें नवरात्र मनयतात आनी दसऱ्या दिसा देवीक निवेध्य करून नाल्ल दितात.

**लग्नप्रथा :** हांचेमदीं कूळ आनी देवक एकूच आसल्यार, लग्नसंबंद जायनात. मामेभयणीकडेन लग्न जाता. पूण आतेभयण आनी मावसभयण हांचेकडेन जायना. सख्ख्यो भयणी जावो जावो जावंक शकतात. लग्नाचो म्हूर्त ब्राह्मणाकडल्यान थारोवन घेतात.

धनगर लोक मडीं लासतात वा पुरतात. उत्तरक्रियेखातीर ब्राह्मण पुरयताक आपयतात. कांयकडेन उत्तरक्रियेखातीर कुंभार वा जंगम आपोवपाचीय प्रथा आसा. हांचेमदीं श्राद्धविधीची चाल आसा.

धनगरांचें लोकसहित्य समृद्ध आसा. बिरोबाचे यात्रेंत वा हेर प्रसंगावेळार

रातीकडेन व्हडल्या धोलाचे साथीर धनगर लोक आपलीं दीर्घ लोकगितां रातभर गायत आसतात. ह्या गितांनी बिरोबा देवाच्यो चरित्रकथा आनी हेर कथांचो आस्पाव आसता.

महाराष्ट्राच्या घाट माथ्यावयल्यान धनगर जात गोंयांत देंवली आनी नवे काबीजादींत स्थायीक जाली. सत्तरी आनी दिवचल म्हालांनी धनगरांची संख्या चड दिसता. गोंयांतल्या धनगरांचे रीत रिवाज हे सर्वसामान्य धनगराच्या रीत रिवाजां प्रमाणूच आसात. हेर प्रांतांतल्या धनगरांप्रमाण गोंयांतलेय धनगर दोंगरांनी रावतात आनी बोकड्यो, मेंढरां पाळून आपली उपजिवीका चलयतात. हेर धनगरांप्रमाण गोंयांतले धनगर हे अर्थीक, शिक्षणीक आनी राजकीय नदरेन हेर अनुसुचीत जातींच्या मानान खूब फाटीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**धनिष्ठा :** आश्विन्यादी गणनेंतलें तेविसावें नखेत्र. हाचें वैदिक नांव श्रविष्ठा. धनिष्ठा म्हळ्यार गिरेस्त आनी श्रविष्ठा म्हळ्यार फामाद. श्रवणाचे उदेंतेक पूण मातशें उत्तरेवटेन हें नखेत्र आसा. अस्तंत पद्दतीप्रमाण तिमी (डॅल्फिनस) ह्या गिन्या चोम्यांतल्या आल्फा, बीटा, गामा, डॅल्टा आनी एप्सायलॉन हे पांच वा कांय जाण हातूंत आनीक एक गिन्याचो आस्पाव करून स गिरे समजतात. ह्या नखेत्राचो आकार शेंपडेसयत ल्हान पतंगावरी आसा. ऑक्टोबराचे १० तारखेच्या सुमाराक रातचे आठ वरांचेर हें नखेत्र मध्यमंडलाचेर (जंय उदेंतेक आनी अस्तंतेक रेखांश मेजतात) दिसता. हातूंतले दोन गिरे तिसरे प्रतीचे आनी तीन वा चार गिरे चवथे प्रतीचे आसात. हातूंतलो आल्फा गिरो हो योगगिरो आसून ताचे विषुवांश २० व. ३० मी. १८०० से. आनी क्रांती १५° ४२ मी. ४५२ से. उ. अशी आसा. गामा हो गिरो युग्मगिरो आसून तातूंतलो एक भांगरावरी हळदुवो आनी दुसरो निळसार पाचवो आसा.

क्रिश्ता आदीं ३००० च्या सुमाराक धनिष्ठा नखेत्रांत सूर्य आसतना उत्तरायणाक सुरवात जाताली. वेदांग ज्योतिश पद्धतीन धनिष्ठा हें पयलें नखेत्र समजतात. बार्हस्पत्यसंवत्सर चक्राची सुरवात धनिष्ठेपसूनच जाता. ताची देवता वसू आनी आकृती मर्दल (धोलकें) आसा. ह्या नखेत्राचे पयले दोन चरण मकर आनी फुडले दोन चरण कुंभ राशींत येतात. धनिष्ठापसून रेवतीमेरेनच्या पांच नखेत्रांक धनिष्ठापंचक म्हण्टात. ह्या पंचकांत आयिल्ले मरण वायट समजतात. ह्या नखेत्राचेर जल्मल्लो मनीस गिरेस्त, शीलवान, बळिश्ट आनी किर्तीमान जाता अशें कोष्ठीप्रदिपांत म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**धनु :** (सॅजिटेरियस). राशीचक्रांतली णववी रास. ही सगळ्यांत दक्षिणेकडली रास. भारतीय पद्दतीप्रमाण मूळ, पूर्वाषाढा आनी उत्तराषाढाचो पयलो चरण (चतुर्थांश) हीं सवायदोन नखेत्रां हे राशींत येतात, पूण अस्तंते क्षेत्रात्मक पद्दतींत मूळ हें वृश्चिक राशींत आस्पावलें आसा. वयलो भाग धनुर्धारी मनशाचो आनी सकयलो भाग (धड) घोड्याचो असो



अश्वमानव प्राणी, अशी हे राशीची आकृती आसा. गुरू हो तिचो स्वामी. ही रास उदेंतेची स्वामिनी आसून ती अग्नीराशी आनी क्षत्रियवर्णी समजतात. ही राशी वृश्चिक आनी मकर राशीच्या दरम्यान विस्तृत (होरा १७ ता. ४० मि. ते २० ता. २० मि. आनी क्रांती -१२° ते -४५° ; ज्योतीशशास्त्रीय सहनिर्देशक पद्दत) पातळिल्ली आसा. ही रास जुलय आनी ऑगस्टांत रातची दक्षिणेकडेन बरी दिसता. हिच्यांत सवे प्रतीमेरेनचीं ४७ नखेत्रां आसून तातूंतले डॅल्टा, एप्सायलॉन, लॅम्डा, झीटा, आल्फा, बीटा आनी म्यू हीं म्हत्वाचीं नखेत्रां आसात. आकाशगंगेचो सगळ्यांत तेजिश्ट भाग धनु राशींत आसून आकाशगंगेचो एक फांटो हे राशींतल्यान गेल्लो दिसता. हिच्या वायव्य भागांत नखेत्रांची भरपूर दाटी जाल्या. तातूंत गिन्यांचोमो, अभ्रिका, तीन नवगिरे, दोन सेफीड रूपविकारी गिरे, सॅजिटेरियस-ए हो रेडिओ उद्गम आदी म्हत्वाचे खस्थ पदार्थ आसात. दक्षिण संस्तंभ (दक्षिणयनान्त बिंदू) हे राशींत आसून २२ डिसेंबरा दिसा सूर्य थंय येवन उत्तरायणाक सुरवात जाता. २२ नोव्हेंबराक सूर्य हे राशींत प्रवेश करता. कार्ल जान्स्की हाणें हें राशीचे दिशेकडल्यान रेडिओ प्रारण (तरंगरूपी उर्जा) येता आशिल्लयाचें १९३१-३२त सोदून काडलें. ग्रीक पुराणकथेप्रमाण चिरॉन हो सॅटर्नचो (शनीचो) चलो, एक खांपो धनुर्धर आशिल्लो. हर्क्युलीसाच्या विखारी बाणान ताका मरण येतकच ज्युपिटरान (गुरून) ताका मळबांत तान्यापद दिलें. तो मळबांत वृश्चिकाचेर बाण रोखून आसा. चिरॉन म्हळ्यार बैल मारपी अशेंय समजतात. कारण धनु रास उदेता तेन्ना वृषभ (बैल) राशींतल्या गिन्यांचो अस्त जाता.

हे राशींत जल्म घेवपी मनीस रागीट, सडसडीत उलोवपी, कलेंत हुशार, पुण्यकर्मा करपी, सुखी आनी धनवान जाता, अशें जातकचंद्रीका आदी ग्रंथांनी सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**धनुर्मह :** एक पुर्विल्लो लोकोत्सव. ह्या उत्सवांत वीर मनीस धोणवाचेर दोरी चडोवन आपल्या बळाचें प्रदर्शन करता देखून हाका धनुर्मह (धनु म्हळ्यार धोणू आनी मह म्हळ्यार उत्सव) अशें नांव पडलें.

रामायण, महाभारत, हरिवंश आदी ग्रंथांनी धनुर्महाचीं वर्णनां मेळटात. सीतास्वयंवराच्या वेळार मिथिलेंत जो उत्सव जाल्लयाचो रामायणांत उल्लेख मेळटा तो धनुर्महच. तेन्ना रामान शिवधोणू बागोवन जनकान दवरिल्लो पण जिखिल्लो. महाभारतांत द्रौपदी स्वयंवरावेळार धनुर्विद्येंतलें कसब दाखोवपाचो पण आशिल्लो. हाचेवयल्यान अशें दिसता, पुर्विल्लया काळांत धनुर्महाच्या निमतान राजकुवरांक एकठांय आपोवन धनुर्विद्येंत जांची सगळ्यांत बरी कुशलताय दिसताली ताका आपली धूव दिवपाची प्रथा आशिल्ली.

हरिवंशांत कंसान केल्ल्या धनुर्महाचें वर्णन दिलां. हरिवंशांतल्या वर्णनावयल्यान अशें दिसता, ज्या जाग्यार हो वा अशे तरेचो उत्सव जातालो ताका रंगवाट म्हण्टाले. ह्या जाग्यार पौर वा जनपद जनांक बसोवपाखातीर माची घालताले. राजाक बसपाखातीर उंच विमानावरी माची घालताले. ताका विमान अशेंच नांव आशिल्लें.

अतिपुर्विल्लया काळांत जायत्या आदीम जमातींनी अशा बळप्रदर्शनाच्या उत्सवाची चाल आशिल्ली. धनुर्मह म्हळ्यार ह्या उत्सवाचें एक रूप.

- कों. वि. सं. मं.

**धनुर्मास :** सूर्य धनु राशींत आसता त्या काळाक धनुर्मास अशें म्हण्टात. ह्या म्हयन्यांत दरेका दिसा सूर्य अस्ताक वचचेआदीं देवाक महानिवेद्य करून ब्राह्मणा वांगडा भोजन करचें अशें सांगलां. तशें शक्य नासल्यार उणोच एक दीस तरी तशें करचें अशें म्हळां. धनुर्मासाची कथा अशी – ब्रह्मादी देवांनी विष्णुक प्रार्थना केली, तूं आमकां दैत्याच्या जाचांतल्यान सोडय. तेन्ना विष्णुन धोणू घेवन दैत्यांचो नाश केलो. ही घडणूक सूर्य धनु राशींत आसतना घडली देखून ह्या काळाक धनुर्मास अशें नांव मेळळें.

दक्षिणेंत तमीळ वाठारांत मात हो काळ अशुभ समजून त्या काळांतल्या अशुभ निवारणाखातीर ते लोक ग्रहशांती, जपजाप्य करतात.

**धनुर्मास व्रत :** हें एक काम्यव्रत. सदांच फांतोडेर विष्णुची पुजा करप, उदेवंचे आदीं मुगाच्या दाळीची खिचडी आनी तुपांत भाजिल्ल्या तांदळाची खीर करून देवाक निवेद्य दाखोवप आनी ब्राह्मणाक बरोबर घेवन जेवप हो ह्या व्रताचो मुखेल विधी. कांय लोक ह्या व्रतांत ब्राह्मणाक लांचें वस्त्र आनी सुर्याक कुंवाळो आनी नाल्ल दितात.

व्रताच्या उद्यापना दिसा श्रीकृष्णाचे भांगराप्रतिमेची पुजा करतात. तीळ आनी आज्य आदी द्रव्यांनी होम करतात आनी देवाचे फाटले वटेन तिर्लोदानाचो बळी दितात. भटाक ती भांगराची प्रतिमा आनी गाय दान दितात आनी ब्राह्मणाक जेवण वाडटात. अशें केल्ल्यान इहलोकांत तरेकवार सुखां भोगूंक मेळटात आनी निमाणें विष्णुपदाची प्राप्ती जाता अशें म्हळां.

– कों. वि. सं. मं.

**धनुर्विद्या :** धोणू आनी बाण हीं शस्त्रां चलोवपाविशींचें गिन्यान दिवपी विद्या. पुर्विल्ल्या काळा सावन लोकांक धनुर्विद्येची म्हायती आशिल्ली. 'प्रपंचहृदय' ह्या ग्रंथांत हे विद्येचे जनक म्हणून ब्रह्मा, प्रजापती, इंद्र, मनू आनी जमदग्नी हांचीं नांवां सांगल्यांत. अगस्त्य आनी भरद्वाज हे धनुर्विद्येचे आचार्य आशिल्ले, अशें महाभारतांत म्हळां. अग्नीपुराणांतल्या २४९ ते २५२ ह्या चार अध्यायांनी धनुर्विद्येचें सार संकलीत केलां.

धोणू, दोरी आनी बाण हे ह्या अस्त्राचे मुखेल घटक आसून, तांची रचणूक, स्वरूप आनी उपेग अशे आसात.

**धोणू :** लवचीक पूण कठीण बडयेक बाग दिवन तिचीं दोन तोंकां दोरयेन जोडटकच सादें धोणू जाता. भारतीय पुराणांत धोणूचो शार्ङ्ग (शिंगाचें) आनी वांश (कोंड्याचें) अशे दोन प्रकार सांगल्यात. फुडें शास्त्रीय गिन्यानांत उदरगत जाली आनी धोणवाचे रचणुकेंत बरोच बदल घडून आयलो. ताका लागून दोन मिटर लांबाये इतलें संयुक्त धोणू तयार करप शक्य जालें. पिनाक, शार्ङ्ग हीं संयुक्त धोणू आसून तांची लांबाय दोन मिटरांमेरेन आसताली. हीं दीर्घ धोणवां धनुर्धराचे उंचायेइतलीं वा ताचेपरसूय लांब आसतालीं.

जपानी दीर्घ धोणवाचे कांबीचो मुठीवयलो भाग कांबीच्या सकयल्या भागापरस मातसो लांब आसता. पूण धोणवाची वट्ट लांबाय २१० सेंमी. (७ फूट) इतली आसता. आदिवासी आनी मोटवे लोक ल्हान आनी सादीं धोणवां वापरतात. कांय वेळार बाण विखान बुडोवन विखारी करप जाताले. कौटिल्यान आपल्या अर्थशास्त्रांत धोणवाचे कार्मुक, कोदंड, द्रुण आनी धोणू अशे चार प्रकार सांगल्यात. 'कोदंडमंडन' नांवाच्या ग्रंथांत धोणवाच्या अठरा जातींचो उल्लेख आयला. धोणवाच्या वजनावयल्यानूय तांचे विंगड विंगड प्रकार थारायताले. जनकाचें शिवधनुश्य रावणासारख्या बळिश्ट असुरांक उबारपाक जमलें ना, अशें रामायणांत म्हळां आनी श्रीकृष्णाचें शार्ङ्ग धोणू अश्वत्थाम्याक उबारपाक जमलें ना, असो उल्लेख महाभारतांत आयला.

**दोरी :** आंतकडयांचे स्नायू, वादी, वेतासारकी वनस्पत वा कृत्रीम तंतू हांचेपसून धोणवाची दोरी तयार करतात. ती दोरी ओडटना दुखापत जावंची न्हय, म्हणून बोटाचेर आवरण (मणिबंध) घालतात. धोणवाचे दोरयेक ज्या, मौर्वी, प्रत्यंचा, गूण आदी शब्द वापरल्यात.

**बाण :** बाण हो कोंडो, वेंत, तंतुकाच वा तिखें हांचेपसून तयार करताले. बाणाचें तोंक शिंगाचें वा धातवाचें करताले. ताचे फाटल्या तोंकाक बकें, हायस, मोर आनी हेर सुकण्यांचीं पिसां लायताले. पिसांक लागून ताचो गमनमार्ग थीर जाता. पुर्विल्ल्या काळांत बाण सोडचे पयलीं खंयचेय देवतेचो मंत्र म्हणून तो सोडटाले. जे देवतेचो मंत्र म्हणप जातालें ते देवतेची कृपा जावन ताचो परिणाम बाणाचेर जातालो. अशो आख्यायिका महाभारत, रामायण धरून सगळ्याच धर्मीक ग्रंथांनी आसा. देखीक अग्नीदेवतेचो मंत्र म्हणून सोडिल्लो बाण, उजो निर्माण करतालो. पर्जन्य देवतेच्या नांवान सोडिल्लो बाण पावस घालतालो. बाणाक वीख लावपाचीय प्रथा आशिल्ली.

बाण एकठांय दवरपाखातीर लांबट मुकुटाच्या आकाराची चामड्याची वा धातवाची पोती वापरताले. तिका भातो म्हण्टाले. धनुर्धर भातो आपले फाटीर उजव्या भुजार फाटल्यान बांदतालो.



बाण दोरयेचेर चडयलो, तरी तो धरून ओडपाखातीर मात आखाणो आनी बोटांचो (करंगळी सोडून) उपेग करताले. धनुर्वेदांत कांबीचेर बाण धरप वा बाणाक धरप हाचेविशीं म्हायती दिल्या. धोणवाची दोरी कानामेरेन ओडपाची पद्दत आसा. कमान एके खाशेले मर्यादेंत ओडल्यार बाणाचो तीर आनी वेग जाय तसो जाता. धनुर्वेदांत बाणाचे उत्तम, मध्यम अनी कनिश्ट अशे तीन प्रकार सांगल्यात. कौटिल्यान बाणाचे वेणु, शर, दंडशर, शलाका आनी नाराच अशे पांच प्रकार सांगल्यात.

धनुर्वेदांत धनुर्विद्येविशींची विस्तारान म्हायती दिल्या. धोणू-बाण तयार करपाखातीर खंयचे पदार्थ घेवंचे, धोणू-बाणाचे प्रकार, ताचे उपेग हाचेविशींची म्हायती आसा.

धोणू-बाण ह्या शास्त्रांचो सिद्धांत तीन गजालींचे भोंवतणी आसा. धोणवाचे दाणयेक ताणून शक्त निर्माण करप, नेम धरतना तिका तात्पुरती

सांठोवन दवरप आनी उपरांत धोणूच्या सदळसाणीतल्यान शक्तीचें वेगांत रुपांतर जावप.

**इतिहास :** धोणू आनी बाण हांचो वापर सुमार १०,००० वर्सां पयलीं सूरु जालो. शेवटून मारपाचे कलेंत धोणू हें मानवनिर्मित पयलें यांत्रिक आवत अशें मानतात. चाक आनी उज्याचो सोद, हाचे इतलोच धोणवाच्या सोदान आपलो प्रभाव समाज बदलाचेर घाला. गोफीण ही असल्या आवतां मदली धोणू आदीची अवस्था काय ती धोणवाच्या यांत्रिकी तत्त्वाचेर बसयल्ली उपरांतची कृती हें समजुपाक कुस्तार जाता. कळीत जालां तो मेरेनच्या इतिहासाप्रमाण गोफींण आनी धोणू हीं दोनय आवतां वांगडाच वापरांत आशिल्लीं दिसतात. भालो फेक, गोळो फेक ह्या मानवी शक्तींचेर आदारीत शस्त्रांची फुडली आवृत्ती म्हणून धोणवाची कल्पना मुखार आयल्या आसूं येता.

शिकारेचें एक प्रभावी शस्त्र म्हणून धोणुचो वापर खूब आदीं सावन जातालो हें वेगवेगळ्या सांस्कृतिक उत्खननांत सांपडिल्ल्या पुराव्यांवेल्यान सिद्ध जाता. वैदिक वाङमयांत धोणवाचे खूब कडेन उल्लेख आयल्यात. ऋग्वेदांत धोणवाक आनी ते चलयतल्या धनुर्धरांक म्हत्व दिलां. कौषीतकि ब्राह्मणांत धनुष्य आनी बाणाचे दक्षिणेचो उल्लेख आसा. महाभारतात तशेंच रामायणांत धोणू हें मुखेल अशें प्रतिशठीत शस्त्र मानलां. आवाजावेल्यान आनी प्रतिबिंबावेल्यान धोणवाचो नेम लावपाची कला धनुर्धराक अवगत आसली. महाभारतांत उदकांतल्या प्रतिबिंबाक पळोवन अर्जुनान मत्स्यभेद केलो अशें द्रौपदी स्वयंवरांत दाखयलां. आवाजाच्या रोखान दशरथान सोडिल्लो बाण श्रावणाक लागलो अशें रामायण कथेंत सांगलां. आपले आपुणूच धनुर्विद्येचो अभ्यास करून बाणाच्या आदारान कुत्र्याचें भोंकप एकलव्यान बंद केलें अशीय कथा आयकूंक येता. अर्जुनाचें गांडिव धोणू, विष्णुचें शार्ङ्ग धोणू, शिवाचें पिनाक धोणू आनी रामाचें कोदंड धोणू हीं आदल्या मुस्तींतलीं कांय नामनेचीं धोणवां.

कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत मौर्यकालीन धनुर्विद्येची म्हायती दिल्या. यजुर्वेदाचो उपवेद आशिल्लो धनुर्वेद हो धनुर्वेदाची विस्तारान म्हायती दिता. तांच्याच वांगडा धनुर्वेदसंहिता, कामन्दकीय नीतिसार, अग्निपुराण, मत्स्यपुराण, विष्णुपुराण, वीरमित्रोदय, कथा सरित्सागर, युध्दजयार्णव, युक्तीकल्पतरु ह्या पुराणकालीन ग्रंथांनी धनुर्विद्या संबंदाची म्हायती मेळटा. तेभायर पोरनी नाणीं, शिल्पां, लेणीं, चित्रां हातुंतल्यानय धोणवाची आनी धनुर्धराची म्हायती मेळटा.

सुर्वेक पायदळ, रथदळ अशी अवस्था आसली. इराणी,तुर्क, मुगल, हाणीं धनुर्धारी घोडदळ निर्माण केलें. पुर्विल्लया काळांत धनुर्विद्येंत अक्कड, हिटायट आनी ॲसिरिया हीं राश्ट्रां बरींच मुखार आशिल्लीं. संयुक्त धोणवाचो आनी संघटीत रितीन धनुर्धरांचो झुजांत उपेग करपाक थंयच सुरवात जाली. इजिप्तांतल्या पिरॅमिडांच्या वण्टी चित्रांनी धोणू-बाणाचें उत्पादन, शिक्षण आनी झुजांतली धनुर्धरांची करामत आदी गजालींचें दर्शन घडटा. ग्रीसी आनी रोमी लोक धनुर्विद्येंत फाटीं आशिल्ले. तुर्क-मोगलांच्या संपर्काक लागून धनुर्विद्येंत चीनान बरीच उदरगत केल्ली. संकर धोणवाचो जल्म पयलीं चिनांत जालो आनी थंयच्यान तुर्क-मोगलांचे घुरयेक लागून युरोपांत ताचो प्रसार जालो. सिथियन, हूण आनी तुर्क-मोगलांचे धनुर्विद्येचो युरोपी धनुर्विद्येचेर बरोच परिणाम जाला.

**क्रीडा प्रकार :** इ. स. चवथ्या शेंकड्यासावन धनुर्विद्येकडेन एक क्रिडाप्रकार म्हणून पळोवपाक लागले. संवसारांतल्या चडशा देशांनी एक स्पर्धात्मक क्रिडाप्रकार म्हणून ताका मान्यताय मेळ्ळ्या. युरोपांत आनी विशेश करून ब्रिटनांत १५३७त धनुर्विद्या हो क्रिडाप्रकार संस्थांमार्फत मुखार आयलो. हेन्री VIII (१५३७),जेम्स I (१६०५), चार्लस I (१६३३), जॉर्ज (IV) (१७८७), हांच्या वरवीं ह्या संस्थांक राजाश्रय मेळून धनुर्विद्येचो एक क्रिडाप्रकार म्हणून बरोच विकास जालो. ध रॉयल टॉक्स, ध ऑनरेबल आर्टिलरी कंपनी आनी फीन्स बरी आर्चर्स, ग्रांड नॅशनल आर्चरी सोसायटी ह्यो त्या त्या वेळावयल्यो कांय मुखेल संस्था.

उत्तर अमेरिकेंत संस्थात्मक धनुर्विद्येची सुरवात १८२८ सावन जाली. हे संस्थेन इंग्लीश धनुर्विद्येची पद्धत आपणायली. १८८९त नॅशनल आर्चरी असोसिएशन ऑफ ध युनायटेड स्टेट्स स्थापन जावन तिणें पयली राश्ट्रीय धनुर्विद्या सर्त त्याच वर्सा शिकागो शारांत आयोजित केली आनी फुडें सातत्यान चालू दवरली. १९३९ त केलिफोर्नीयाच्या धनुर्धरांनी नॅशनल फिल्ड आर्चरी असोसियेशन ऑफ युनायटेड स्टेट्स ही संस्था स्थापन करून शिकार आनी मुक्त वापर ह्या प्रकारच्या उत्तेजनाखातीर वावर केलो.

ह्या खेळांतलें धोणू सुमार १.८३ मी. लांब आसून तें लाकूड, शिंगां वा लोखण हांचेपसून तयार करतात. धोणवाच्या सकयल्या आनी वयल्या तोकांक जोडपाखातीर ताग, रेशीम वा कापूस हांच्या सुतापसून तयार केल्ल्या टणक दोरयेचो वापर करतात. धोणवाच्या मध्यबिंदूपसून हे दोरयेमेरेनचें अंतर सुमार १५.२४ सेंमी. आसता. बाण लाकडापसून लेगीत तयार करतात. तो सुमार ६८.५८ सेंमी. लांब आनी सुमार १२.७० सेंमी. घेराचो आसता. ताचें तोंक धातवाचें आसता.

मुखार लक्ष्य दवरिल्लें आसता. लक्ष्याचें अंतर हें दादले-बायलो स्पर्धकांप्रमाण आनी तांचे पिरायेच्या गटाप्रमाण वेगवेगळें आसता. बाण कितले लांबायेचेर वतलो, हें धोणवाचेर आनी बाणाच्या वजनाचेर आदारून आसता. लक्ष्य हें चड करून जमनीपसून सुमार १२१.९२ सेंमी. उंचायेचें आनी तितल्याच व्यासाचें आसता. ताचेर वेगवेगळ्या रंगाचीं वांटकुळां काडिल्लीं आसतात. तातूंतल्या खाशेल्या रंगाच्या वांटकुळाक बाण लागलो जाल्यार थरावीक गूण मेळटात. ते गूण अशे - भांगराकोर -९, तांबडो -७, निळो -५, काळो -३, धवो -१. जो धनुर्धर वा ज्या देशाचो पंगड चडांतचड गूण मेळयता तो जैतीवंत जाता.

धनुर्विद्या ह्या क्रिडाप्रकाराखातीर संवसारीक पांवड्यार एक स्वतंत्र संघटना १९३१ वर्सा स्थापन जाली. ऑलिंपीक सर्तीनी ह्या खेळाचो आस्पाव १९००, १९०४, १९०८ आनी १९२० त आनी ते उपरांत १९७२ सावन परतून केलो. १९०० त जाल्ल्या पयल्याच ऑलिंपिकांत मेकिनतोश (ऑस्ट्रेलिया), यच हेरॉयन (फ्रांस). इ मोगीन (फ्रांस), एच्. व्हान. इनीस (बेल्जियम); इ फॉलोन (फ्रांस) आनी इ ग्रॅमीटस (फ्रांस) हांणी पदकां जोडिल्लीं. उपरांत १९०४ सालांतल्या ऑलंपिकांत दोन दादल्यांनी आनी दोन बायलांनी मेळून ४ पदकां अमेरिकेन हातासलीं. १९०८ त ग्रॅट ब्रिटन, फ्रांस आनी बेल्जियम हे देश आघाडेर आसले. उपरांतच्या काळांत बेल्जियम आनी अमेरिकन खेळगड्यांनी ह्या खेळाचेर आपलें प्रभुत्व दवरलां.

भारतांत १९७३ त अखिल भारतीय आर्चरी फॅडरेशनची स्थापणूक जाली. ऑक्टोबर १९७३त पयली राश्ट्रीय सर्त जाली. तांतूत स राज्यांतल्या खेळगड्यांनी वांटो घेतलो आनी अस्तंत बंगालच्या पंगडान वस्तादपण मेळयलें आनी मेघालयाच्या पंगडान उपवस्तादपण मेळयलें.

अस्तंत बंगालचो डी. घोष हो हे सर्तींतलो उत्कृश्ट धनुर्धर थारलो.

- कों. वि. सं. मं.

**धन्वंतरिः** देवांचो वैज आनी विष्णुचो एक अवतार. हाणेंच उपरांत काशीराजाच्या रुपांत पुनरावतार घेतलो अशें मानतात. रोग बरे करपी शस्त्रक्रियेची प्रक्रिया ज्या आयुर्वेदांत सांगल्या त्या आयुर्वेदाचो मुखेल उपदेशक. काशीच्या पुर्विल्ल्या पुराणकाळांतल्या राजवंशांतलो हो आयुर्वेदाचो आचार्य आशिल्लो धन्वंतरी राजा. हरिवंश, विष्णुपुराण, अग्निपुराण, वायुपुराण, भागवत, महाभारत तशेंच आयुर्वेदाविशींच्या सुश्रुतसंहिता आदी ग्रंथांनी विष्णुच्या अंशापसून निर्माण जाल्लो धन्वंतरी हो देव काशीच्या राजवंशांत वाराणसीक मनीसरुपान अवतरलो अशें म्हळां. तेचपरी ताणेंच आयुर्वेद प्रवृत्त केलो अशेंय म्हळां. हरिवंशांत ही वंशपरंपरा अशी सांगल्या - १) काश २) दीर्घतपा ३) धन्व ४) धन्वंतरी ५) केतूमान ६) भीमरथ ७) दिवोदास. कांय पुराणांनी दिवोदासाकच धन्वंतरी म्हळां.

वयर उल्लेख केल्ल्या पुराणांत विस्तारान समुद्र मंथनाची कथा आयल्या. ते कथेचें तात्पर्य अशें : अमरत्व मेळपाखातीर देव आनी दानव हाणीं मेळून क्षीरसागराचें मंथन केलें. तेन्ना तातूंत चवदा रत्नां मेळ्ळीं. तातूंतलोच एक धन्वंतरी देव.

एका हातांत अमृताचो बुडकुलो घेवन हो देव प्रकट जालो. उदकांतल्यान जल्मलो देखून ताका 'अब्ज' म्हण्टात. विष्णुन ताका वर दिलो, 'तूं मनीसजल्म काशीराजाच्या घराण्यांत घेतकच जल्मतनाच तुका सगळ्यो सिद्धी प्राप्त जातल्यो, यज्ञांत तुकां येजमान देव समजून आहुती दितले आनी तूं अष्टांग आयुर्वेदाचो प्रवर्तक जातलो.

हाचे सुमाराभायले प्रतिभेन वेगवेगळ्या वखदांचें सार अमृताच्या रुपान देवांक मेळ्ळें आनी ते अमर जाले. देखुनूच ताका देवांचो वैज म्हण्टात. धन्वंतरीन चिकित्सेचें गिन्यान भास्कराकडल्यान मेळयलें आनी भास्कराचे आयुर्वेद संहितेच्या आदारान चिकित्सातत्त्वविज्ञानतंत्र नांवाचो ग्रंथ रचलो, अशी पारंपारीक म्हायती आसा.

भागवत पुराणांत विष्णुच्या चोवीस अवतारांमदीं धन्वंतरिचो आस्पाव केला. विष्णूच्या अवताराची प्रतिष्ठा मेळिल्ल्यान वैष्णव मुर्तीसंभारांत धन्वंतरिचो आस्पाव जाला. शिल्पग्रंथांत ताचे मुर्तीची लक्षणां दिल्यांत.

धन्वंतरीच्या आयुर्वेदाचे आठ वांटे आसात ते अशे - १) काय (शरिरविज्ञान) २) बाल (भुरग्यांचें वैजकी) ३) ग्रह (भूत पिशाच्च आदींपसून जाल्ल्या पिडांचे वैजकी) ४) ऊर्ध्वांग (शिरोभागांत आनी थंयच्या इंद्रियांनी जावपी विकारांचें वैजकी) ५) शल्य (शस्त्राघातांची चिकित्सा) ६) दंष्ट्रा (वीख चिकित्सा) ७) जरा (भलायकी वाडोवपी रसायन) ८) वृष (वाजीकरण) धन्वंतरिच्या नांवार अनीक धा-बारा ग्रंथ मेळटात.

धन्वंतरि हाका हिंदू वैजक शास्त्राचो प्रवर्तक मानतात आशिल्ल्यान १९७१ त ताचे जयंती निमतान धन्वंतरी फाउंडेशनाची स्थापना जाली. ॲलोपथी, आयुर्वेद, होमियोपथी, युनानी, सैमीक उपचार आनी हेर वैजकी पंथांच्या जाणकारांमदीं सुमेळ सादप हो त्या फाउंडेशनाचो मुखेल उद्देश आसा. ह्या फाऊंडेशनाचे वतीन १९७१ वर्सा वैजकी वेवसायांत विशेश अशी सेवा वा संशोधन करून वैजकी शास्त्रांत नवी भर घालपी वैजकी तज्ञांक धन्वंतरी पुरस्कार दिवपाचें थारायलें. वैजकी विशयाचेर भासाभास, परिसंवाद, परिशदो तशेंच वैजकी वेवसायिकांक आदार दिवपाचो उद्देश धन्वंतरी फाऊंडेशनान दवरला.

– कों. वि. सं. मं.

**धबधबो** : उंचायेवयल्यान सकयल कोसळपी उदकाचो लोट. सादारणपणान धबधबे चड करून न्हंयेच्या लोटाच्या पयल्या टप्प्यांत दिश्टी पडटात. दोंगुल्ल्यांच्या आनी सड्याच्या वाठारांतूय धबधबे दिश्टी पडटात. अंटार्क्टिकाखेरीज हेर सगळ्या खंडांनी धबधबे आसात. न्हंयेच्या लोटांतलें कठीण आनी मोव खडपांचें अस्तित्व, सड्यांच्यो शिमो, प्रस्तरभंग, दर्यादेगेवयले कडे आनी हिमक्षपित वाठारांतलीं हुमकळपी देगणां हीं सगळीं धबधब्यांची निर्मिती जावपाक कारण थरतात.



न्हंयेच्या लोटाच्या मार्गांत आशिल्ली वेगवेगळे तरेची भूस्तररचणूक धबधबे तयार जावपाक कारण थरता. ह्या लोटाच्या मार्गांत कठीण खडपांचे थर उबे, आडवे वा तिरपे आसूंक शकतात. न्हंयेच्या मार्गांतलीं घट्ट खडपां न्हंयेच्या लोटाच्या मार्गाचे दिशेन लकिल्लीं आसत जाल्यार थंय धबधबो तयार जाता; न्हंयेच्या पात्रांतलीं खडपां आडवीं आनी क्षितीजसमांतर आसत जाल्यार आनी तांचे उपरांतचीं खडपां मोव आसत जाल्यार न्हंयेच्या पात्रांतूच एक कटो तयार जाता. ह्या कट्यावयल्यान न्हयचें उदक एकसारकें सकयल पडत राविल्ल्यान धबधबो तयार जाता. अशे तरेच्या धबधब्यांत न्हंयेचें उदक उंचायेवयल्यान सकयल पडटा आशिल्ल्यान धबधब्याच्या तळाकडेन उदक आपटत रावून एक तळें तयार जाता. २५३ मी. उंचायेच्या गिरसप्पा धबधब्याच्या तळाकडेन सुमार ४० मी. खोलायेचें तळें तयार जालां.

कठीण खडपां आडवीं आशिल्ल्यान वा भूंपृश्ठाक समांतर आशिल्ल्यान जे धबधबे तयार जातात, ते खूबदां न्हंयेच्या उगमावटेन फाटल्यान

सरतात; हाचें कारण म्हळ्यार त्या कठीण खडपांसकयल मोव खडपां आसतात. जंय प्रत्यक्ष धबधबो तयार जाता, थंय ह्या मोव खडपांचो भाग उक्तो पडटा. पडपी उदकाक लागून मोव खडपांची झीज जाता. मोव खडपांनी घोली भाशेन पोकळ भाग तयार जाता. हाका लागून ताचेवयल्या कठीण खडपांचो भाग तांकां पेलना. तो हुमकळटा आनी कालांतरान तुटून सकयल पडटा आनी धबधब्याची सुवात फाटीं सरत रावता. हे क्रियेक प्रतिवाह प्रतीसरण अशें म्हण्टात. उत्तर अमेरिकेंतलो नायागारा धबधबो हो अशेच तरेचे क्रियेक लागून तयार जाला. नायागारा न्हंयेचेर आशिल्ल्या ह्या धबधब्याचो सोद १६७८त ला साल ह्या फ्रेंच पर्यटकान लायलो. ह्या धबधब्या मदीं 'गोट' नांवाचो एक जुंवो आसून ताका लागून नायागाराचे दोन भाग जाल्यात आनी थंयच संयुक्त संस्थानां आनी कॅनडा हांची शीम आशिल्ल्यान धबधब्याचो एक भाग संयुक्त संस्थानांत जाल्यार दुसरो कॅनडांत आस्पावता. हे दोनूय धबधबे दर वर्सा ३० ते १८० सेंमी. ह्या वेगान फाटीं सरत आसात आनी ही क्रिया अशीच चालू उरल्यार कालांतरान ते ईअरी सरोवराक वचून मेळटले.

सड्याचो वाठार आनी मळां हांचे शिमेरूय धबधबे तयार जातात. आफ्रिका खंडांत अशे तरेचे धबधबे आसात. थंयचे काँगो न्हंयेचेर ३२ धबधबे आसात. तांकां 'लिविंग्स्टन फॉल्स' अशें म्हण्टात. ऑरेंज न्हंयेचेर ओग्राबीस धबधबो आसा. संयुक्त संस्थानांत अशा धबधब्यांची माळूच तयार जाल्या. आफ्रिकेंतल्या सड्याच्या वाठारांतल्या आनी प्रपातरेशा विभागांतल्या धबधब्यांक लागून उदका येरादारीक आडखळी तयार जातात. इंग्लंडांतल्या पेनायन वाठारांत अशे धबधबे आसात.

प्रस्तरभंग जाल्यारूय धबधबे तयार जातात. अशा वाठारांतल्यान न्हंयो व्हांवन आयल्यार धबधबे तयार जातात. इंग्लंडांतलो गारडेल बेक धबधबो अशे तरेन तयार जाला. नर्मदा न्हंयेचे वयले वटेन असले कांय धबधबे जून ते ऑक्टोबर ह्या काळांत दिसतात. गिमांत तांकां उदक आसना.

हिमक्षयित वठारांत कितलेशेच धबधबे दिश्टी पडटात. वेल्सांतलो स्नोडोनिया, इंग्लंडांतलो लेक डिस्ट्रिक्ट आनी स्कॉटलंडाचो दोंगुल्ल्यांचो भाग तशेंच कॅलिफोर्नियांच्या योसेमेटी देगणांत अशे धबधबे खूब आसात. थंयच्या कांय धबधब्यांची उंचाय १०० मी. परस चड आसा.

धबधब्यांक लागून थंयच्या लोकांचे जिणेचेर परिणाम जाल्लो दिश्टी पडटा. धबधब्यांक लागून उदका येरादारीक आडखळ जाता. धबधब्यांचेर उदकाचीं विद्युत् केंद्रां तयार करूं येतात. धबधबे हीं सृश्टी सोबीतकायेचीं थळां आसात. ताका लागून थंय पर्यटन केंद्रां तयार जातात. घटप्रभेवेलो गोकाकचो धबधबो, गोंयचो दूदसागर, अमेरिकेंतलो नायागारा, कर्नाटकांतलो शरावतीवयलो गिरसप्पा धबधबो, कावेरीवयलो शिवसमुद्रमचो धबधबो, ताम्रपर्णीवयलो कोर्टालम् धबधबो हीं थळां पर्यटक केंद्रां जाल्यांत.

तिनशें मीटरांवयर उंचाय आशिल्ले संवसारांतले कांय वेंचीक धबधबे अशे -

| नांव | न्हंय | देश | उंचाय, मी. |
|---|---|---|---|
| १) एंजेल | कुरून | वेनेझुएला | ९७९ |
| २) तूगेला | तूगेला | द. आफ्रिका | ९४८ |
| ३) त्माराझी | इनयांगोबे | झिंबाब्वे | ७६२ |
| ४) योसेमिटी | योसेमिटी | अमेरिका | ७३९ |
| ५) क्युक्वेनन् | क्युक्वेनन् | वेनेझुएला | ६१० |
| ६) सदर्लंड | आर्थुर | न्युझिलंड | ५८० |
| ७) किले | - | नॉर्वे | ५६१ |
| ८) कहीवा | - | अमेरिका | ५३३ |
| ९) मार्दल (उदेंत) | ऐकेसडल् | नॉर्वे | ५१७ |
| १०) तॅकाकॉ | येहो | कॅनडा | ५०३ |
| ११) रिबन | रिबन | अमेरिका | ४९१ |
| १२) किंग जॉर्ज सवो | उत्शी | गियाना | ४८८ |
| १३) बुलोमोंबी | बुलोमोंबी | ऑस्ट्रेलिया | ४८२ |
| १४) मार्दल (अस्तंत) | ऐकेसडल | नॉर्वे | ४६८ |
| १५) कलीब्बा | कलानुई स्ट्रीम | अमेरीका | ४६३ |
| १६) कालांबो | कालांबो | तांझानीया झांबीया | ४२७ |
| १७) गावार्नी | गावे दि पाव | फ्रांस | ४२२ |
| १८) गेसबॅक | गेसबॅक | स्वित्झर्लंड | ३९१ |
| १९) ट्रुमेलबॅक | ट्रुमेलबॅक | स्वित्झर्लंड | ३९१ |
| २०) क्रिमल् | क्रिमलर अेके | ऑस्ट्रिया | ३८० |
| २१) व्हेतीस | मोर्केडोला | नॉर्वे | ३७१ |
| २२) पापालोवा | क्वाय न्यू स्ट्रीम | अमेरिका | ३६६ |
| २३) सील्वर स्ट्रेंड | मर्सड् | अमेरिका | ३५७ |
| २४) होनोकोहॉव | होनोकोहॉव स्ट्रीम | अमेरिका | ३४१ |
| २५) लोफोय | लोफोय | झायरे | ३४० |
| २६) सेरिओ | सेरिओ | इटली | ३१५ |

- कों. वि. सं. मं.

**धम्मपद :** बुद्धाची शिकवण दिवपी गाथासंग्रह. पाली भाशेंतल्या ह्या संग्रहांत २६ वग्गांमदीं वांटिल्ल्या ४२३ गाथांनी बौध्द धर्माची आटीव अशी शिकवण दिल्या. बुद्ध धम्म वा बुध्दतत्त्वज्ञान सांगपी ग्रंथराशीक त्रिपीटक अशें म्हण्टात. पयलें सुत्त पीटक, दुसरें विनय पीटक आनी तिसरें अभिधम्मपीटक. सुत्तपीटकाचे दीघनिकाय, मज्झीमनिकाय आनी खुदयनिकाय अशे तीन वांटे आसात. हातूंतल्या खुदयनिकाय वांट्यांतल्या पंदरा ग्रंथांतल्या चोम्यातलो धम्मपद हो दुसरो ग्रंथ.

भगवान बुध्दान आपणाक जाल्ल्या बुध्दत्व प्राप्तीच्या खीणापसून ताच्या महानिर्वाणामेरेनच्या काळामेरेन ह्या ग्रंथातली दर एक गाथा खंय ना खंय, कोणाक ना कोणाक, केन्ना ना केन्ना खंयच्या तरी संदर्भांत उपदेशाच्या रुपांत सांगिल्ली आसा. ह्या गाथांची कथा सांगपी धम्मपदट्ठकथा (धर्मपदार्थकथा) नांवाचो (गाथांनी कथात्मक स्पश्टीकरण दिवपी) ग्रंथ सिंहली भाशेंत मेळटा. फुडें ताचो पाली अणकार अर्थकथाचार्य भदंतबुध्दघोष महास्थविर हाणें केलो.

ह्या ग्रंथांत बुध्द विचारांचें सारसर्वस्व ग्रंथीत जाल्लें आसून, तातूंत आचारसंहितेचें म्हत्व सांगून तिका जिवीत येसाचें श्रेय दिल्लें आसा. ह्या संवसारांत सगळ्यो गजाली खीणयाळ्यो आसून त्या सगळ्यांमदीं दुख्खाचे अंश भरिल्ले आसात. तृष्णेचो म्हळ्यार आसक्ती नश्ट केल्यारूच दुख्खाचो अंत जातलो ह्या सुखी जिणेच्या तत्त्वाचो ह्या ग्रंथांत पुरस्कार केल्लो आसा. मनशाचो फुडार हो मनशाच्या हातांत आसून मनशाक तो स्वता सोडून हेर कोणूच येसप्राप्ती करून दिवपाक आदार दिवंचोना. खासा बुध्दलेगीत सुखी जिविताचो फकत मार्ग दाखोवंक शकता. ह्या जिवनादर्शाचे

वरवीं बुध्दान मनशामदीं आत्मविस्वास निर्माण करपाचो यत्न केला.

धम्मपदांतल्यो कांय गाथा अश्यो आसात –

सब्बपापस्स अकरणं कुसलस्य उपसंपदा ।
सचित्तपरियोदपनं एतं बुध्दान सासनं ॥

(धम्मपद - १८३)

**अर्थ** - सगळ्या पापांपसून पयस रावप, सगळ्या बऱ्या गजालींची जतनाय करप आनी स्वताचें मन शुद्ध दवरप - हीच बुध्दाची शिकवण आसा.

मनो पूब्बङ्गमा धम्मा मनो सेट्ठा मनोमया ।
मनसा चे पसन्नेन भासति वा करोति वा ।
ततो नं सुखमन्वेति छाया व अनपायिनी ॥

(धम्मपद - २)

**अर्थ** - मन हें सगळ्या प्रवृतींचें पुरोगामी आसा. तांच्यांत मनच श्रेश्ठ आसा. सगळ्यो प्रवृत्ती मनातल्यान उत्पन्न जातात. जर कोणेंय प्रसन्न मनान भाशण केलें वा कार्य केलें जाल्यार केन्नाच साथ ना सोडपी सावळेप्रमाण सूख ताचे फाटल्यान येता.

यो दुक्खस्स पजानाति इधेव खयमत्तनो ।
पन्नभारं विसञ्ञुत्तं तमह ब्रूमि ब्राह्मण ॥

(धम्मपद - ४०२)

**अर्थ** - जो ह्याच जल्मांत आपल्या दुख्खविनाशाचो मार्ग जाणटा,तो आपलो सगळो भार उतरावन् उडयता आनी जो आसक्ती विरयत आसता, ताकाच हांव ब्राह्मण म्हण्टां.

तत्त्वगिन्यानासारक्या क्लिश्ट विशयाची फोडणिशी करपी ह्या ग्रंथाच्या लिखाणाची शैली आकर्शक आसा. समर्पक उपमा, दृष्टांत दिवपी अलंकारांनी युक्त अशीं वाक्यां हीं ह्या ग्रंथाचीं साहित्यीक खाशेलपणां आसात.

धम्मपदांतलें लिखाण बौद्ध धर्मियांमदीं आदरणीय आसाच, पूण तातूंतल्या वैश्वीक आनी शाश्वत विचारांक लागून बौध्द धर्माभायरूय ह्या ग्रंथाक आदर्श ग्रंथ अशी मान्यताय प्राप्त जाल्या. बऱ्याच प्रगत भाशांनी धम्मपदाचे अणकार जाल्ले आसात. मॅक्स म्यूलर, डॉ. राधाकृष्णन, राहूल सांकृतायन, पु. म. लाड हे धम्मपदाचे कांय अणकारपी आसात. सुरेश आमोणकार हाणें धम्मपदाचो कोंकणी अणकार करपाचो वावर हातांत घेतला.

– दादू भि. मांद्रेकार
- कों. वि. सं. मं.

**धरण :** व्हांवत्या उदकाचो व्हड प्रमाणांत सांठो करपाखातीर बांदिल्ली गडगंज वणत. इत्सीत सुवातेर उदकाची पुरवण करपाच्या उद्देशान, न्हंयेच्या वा तत्सम व्हांवत्या उदकाच्या प्रवाहाच्या तोंडार एक गडगंज अशी वणत बांदून उदकाचो सांठो करतात आनी हें उदक उपरांत हे वण्टीक आशिल्ल्या दारांतल्यान, तयार केल्ल्या पाटांतल्यान (Canal) इत्सीत सुवातेर व्हरतात. उण्या प्रमाणांत उदकाचो सांठो करपाक जंय ल्हान वणत बांदप जाता ते वण्टीक बांद अशें म्हण्टात.

**इतिहास :** धरणां आनी बांदांचो इतिहास खूब पोरणो. पुर्विल्ल्या काळांत गीमाच्या दिसांनी शेताखातीर आनी मनशाच्या हेर उपेगाखातीर तशेंच हुंवारापसून राखण जावपाखातीर इजिप्त, मेसोपोटॅमिया, चीन आनी भारत ह्या देशांनी धरणां बांदप जातालीं.

सगळ्यांत पोरणें धरण मीनीझ ह्या राजाच्या मॅम्फिसांतले राजधानीक उदका पुरवण करपाखातीर बांदिल्लें. नायल न्हंयेचेर कोशेश नगरांत इ.स. पयलीं २९०० च्या अदमासाक बांदिल्लें हें धरण १५ मीटर उंचायेचें आसा. हेच न्हंयेचेर बांदिल्लें १०६ मीटर लांबायेचें आनी १५ मीटर उंचायेचें साद-एल्-काफारा हें धरणूय सगळ्यांत पोरणें मानतात. इ.स. पयलीं १००० वर्सां मेरेन ॲसिरियी लोकांनी शेतांखातीर टायग्रिस न्हंयेचेर समारा आनी हेर सुवातींनी धरणां बांदलीं.



भारतांत आनी श्रीलंकेंत पुर्विल्ल्या काळांत शेताच्या उपेगाखातीर कितलीशींच मातयेचीं धरणां बांदप जाल्लीं. इ. स. ५०० ते १८०० ह्या काळांत दक्षिण भारतांत पल्लव आनी हेर राजांनी मातयेचीं धरणां बांदिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. इ. स. च्या दुसऱ्या शेंकड्यांत करिकाल ह्या चोल राजांनी बांदिल्ल्या कावेरी न्हंयेवयल्या म्हान अनईकट्टु (ग्रँड ॲनिकट) ह्या फातरी बांदापसून आयज लेगीत तंजावर जिल्ह्यांतल्या हजारांनी हॅक्टर शेताखातीर उदक वापरतात. भारतांतलें पयलें व्हड फातरी धरण म्हळ्यार पुण्यालागसार खडकवासलाक १८७९ वर्सा बांदिल्लें धरण. रोमी लोकांनी इटली, उत्तर आफ्रिका आनी हेरकडेन व्हड फातरांचीं धरणां बांदलीं. इराणांत चवदाव्या शेंकड्यांचे सुरवेक केबर नांवाचें २६ मीटर उंचायेचें धरण बांदलें. गॅलिलिओ, न्युटन, जी. डब्ल्यू. फोन लायप्निट्स, रॉबर्ट हूक, दान्येल बेर्नुली, लेनर्ट ऑयलर, द ला हायर आनी शार्ल कुलंब हांणी केल्ल्या सैध्दांतिक कार्याक लागून द्रव्यांचे गुणधर्म आनी संरचना सिध्दांत हांच्या गिन्यानांत मोलादीक भर पडिल्ली. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत बांदिल्लें पयलें धरण म्हळ्यार १८६६ वर्सा बांदिल्लें फ्रांसांतलें ५२ मीटर उंचायेचें धरण आसा. जगांतल्या मुखेल अशा धरणांभितर चडशीं सगळीं धरणां १९३० वर्सा उपरांत बांदिल्लीं आसात.

उदक सांठोवप आनी उदकाची उंचाय वाडोवप हें धरणाचें मुखेल कार्य आसता. उदकाच्या सांठ्याचे खूब उपेग आसतात. शेताच्या कामाखातीर, गांवांक उदकाची पुरवण करपाखातीर, उदका-शक्तीच्या आदारान विद्युत् निर्मिती (जलविद्युत् केंद्र), हुंवार-नियंत्रण, खेळां-तळें, उदका येरादारी अशा विंगडविंगड कारणांखातीर धरणां बांदतात. भारतांत कावेरी न्हंयेचेर आनी अमेरिकेंत टॅनेसी न्हंयेचेर अशा उद्देशांनी धरणां बांदल्यांत. उदकाची उंचाय वाडोवप हो धरणाचो दुसरो उद्देश. प्रवाहाक आडखळ जातकच प्रवाहांतल्या उदकाचो पांवडो चडटा. ताका लागून उदकाची उर्जा वाडटा आनी हे उर्जेचो उपेग गुरुत्वाकर्शी प्रवाहाखातीर

संवसारातलीं कांय म्हत्वाचीं धरणां अशीं -

| नांव | वर्स | न्हंय | देश | उंचाय (मी.) | आंवाठ (चौ.मी.) | उदक साठवण मर्यादा (चौ.मी.) | विद्युत् निर्मिती क्षमताय (मेगॅवॉट) |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| न्यूरेक | १९७२ | व्हाक्श | रशिया | ३१७ | ५८,००० | १,०४,००,००० | २,७०० |
| ग्रॅंड डिक्सेन्स | १९६२ | डिक्सेन्स | स्वित्झर्लंड | २८५ | ५,९५७ | ४,००,००० | ८४० |
| रोझेला | १९६५ | रोझेला | इटली | २६५ | ४०० | १७,२०० | — |
| मायका | १९७२ | कोलंबिया | कॅनडा | २४२ | ३२,१११ | २,४६,६९,८०० | १,८०० |
| मॉव्हॉयझीन | १९५७ | ड्रेंस दी बान्य | स्वित्झर्लंड | २३७ | २,०३० | १,८०,००० | — |
| ऑरोविले | १९६८ | फेदर | अमेरिका | २३६ | ५९,६३९ | ४२,९८,५०० | ४४० |
| कोन्ट्रा | १९६५ | व्हरत्सास्का | स्वित्झर्लंड | २३० | ६५८ | ८६,४०० | — |
| भाक्रा | १९६३ | सतलज | भारत | २२६ | ४,१३० | ९८,६८,००० | १,०५० |
| हूव्हर | १९३६ | कोलोराडो | अमेरिका | २२१ | ३,३६४ | ३,६७,०३,००० | १,३५४ |
| द्वॉरशाक | १९७२ | नॉर्थ फॉर्क | अमेरिका | २१९ | ४,९७० | ४२,७७,७७८ | १,०६० |
| फोर्ट पेक | १९४० | मिसूरी | अमेरिका | ७६ | ९६,०३४ | २,३६,००,००० | १६५ |
| ओवाही | १९६३ | मिसूरी | अमेरिका | ७५ | ७०,३४३ | २,९१,००,००० | ५९५ |
| गार्डीनर | १९६८ | दक्षिण | कॅनडा ससकेचेवान | ६८ | ६५,५५३ | ९८,६७,९२० | ८०० |
| मांगला | १९६७ | झेलम | पाकिस्तान | ११६ | ६४,९९१, | ७२,५०,००० | — |
| ऑरोव्हिल | १९६८ | फेदर | अमेरिका | २३६ | ५९,६३९ | ४२,९८,५०० | ४४० |
| ओएन फोल्स | १९५४ | व्हिक्टोरिया नायल | युगान्डा | ३१ | ——— | २०,४८,००,००० | १२० |
| करीबा | १९५९ | झँबीझी | न्हेडेशिया झांबिया | १२८ | १,०६५ | १८,१५,९१,५०० | ७०५ |
| ब्रात्स्क | १९६१ | आंगारा | रशिया | ४० | ९,५६३ | १६,९२,७०,००० | ४,५०० |
| आस्वान हाय | १९७० | नायल | ईजिप्त | १११ | ४२,६२० | १६,४०,००,००० | २,१०० |
| आकोसोंबो | १९६५ | व्होल्टा | घाना | १४१ | ७,९०० | १४,८०,००,००० | ७८६ |
| ग्रॅंड कूली | १९४२ | कोलंबिया | अमेरिका | १६८ | ८,०९३ | १,१७,९५,००० | ६,१८० |
| क्रॅस्नोयार्स्क | १९६७ | येनिसे | रशिया | १२४ | ४,३५० | ७,३३,००,००० | ६,००० |
| जॉनडे उमातिल्ला लेक | १९६८ | कोलंबिया | अमेरिका | ७१ | २,६५० | ३२,५६,४४० | २,७०० |

वा विद्युत् निर्मितीखातीर जाता.

धरणांचे खूब प्रकार आसात - फातरी बांदकामाचें धरण, कॉंक्रिटचें धरण, मातयेचें धरण, फातरांच्या राशींचे धरण अशे मुखेल प्रकार आसात. तेच भाशेन लोखणी धरण, लाकडी वा रबरी (फुगोवपाक येवपी) धरण, अश्या तरांचींय धरणां केन्नाकेन्नाय बांदप जातात.

न्हंयेचेर धरण बांदपाचें आसल्यार तें खंय बांदचें आनी कसलें तरेचें बांदचें हे दोन म्हत्वाचे प्रस्न आसतात. धरण बांदपाची सुवात थरयतकच धरणाचो प्रकार थारोवप जाता.

न्हंयेचें देगण जंय अशीर आसता थंय धरण बांदप अर्थीक नदरेन फायद्याचें आसता कारण धरणाची लांबाय जितली उणी तितलोच धरणबांदणेचो खर्च उणो आसता.

धरण बांदतना धरणाचे बसकेक खूब म्हत्व आसता. मुळावण जितलें घट, तितलो धरणाक बरो आदार मेळटा. धरण बांदपाची सुवात बरी पाशाणी - फातरी घाल्यार ती सगळ्यांत बरी बुन्याद आसता. दुसरे एके नदरेनूय धरणाचे बसकेचें परीक्षण करचें पडटा. सांठयल्लें बरेचशें उदक, बसकेपोंदच्यान झिरपता आसल्यार, खडकांनी चुन्याच्या खडपाचो स्तर आसल्यार वा मातयेच्या धरणापोंदाची मातयेची बसका रेंवाळ मातयेची आसल्यार, ते बसकेचेर खाशेली उपाय-येवजण करतात. ते खातीर शिमीट आनी उदक हांचें पातळ मिश्रण, करून तें ब्युन्यादीक बुराक करुन तातूंत ओततात. हें मिश्रण खडपांतल्या चिरांनी आनी वेरांनी वचून उपरांत घट जाता आनी तळाचो स्तर चड मजबूत जाता. तेच भाशेन मातयेच्या धरणापोंदची झिरपण उणी करपाखातीर शिमिटाबदला खाशेले चिकणमातयेचें मिश्रण वापरतात. गरज पडल्यार बुन्याद घट करपापसत, खडपांनी लांब नांगरबोल्ट (Bolt & Nut) घट्ट आंवळून बुन्याद घट करपाची चाल आसा.

उदकाचे सांठवणेचें प्रमाण थरयतकच धरणाची उंचाय थरयतात. ह्या सांठ्यांतलें उदक एका वर्सांत कितलें वापरप जातलें ह्या प्रमाणान अदमास करून धरणाची उंचाय निश्चीत जाता. उंचाय थरतकच धरणाचो आकार थरोवप गरजेचें आसता. धरणाच्या माथ्यार रस्तो बांदपाचो आसल्यार तेखातीर गरजेप्रमाण रुंदाय धरून उपरांत धरणाच्या दोनूय वटांनी योग्य ते उतार दिवन ताचो आकार थरोवप जाता. धरणाचे उदका वटेंतलो उतार आनी दुसरे वटेंतलो उतार हे उणे चड आसतात.

हे उतार थरयताना धरणाचेर जावपी तरातरांच्या भार आनी दाब प्रणालींचो विचार करप गरजेचो आसता. धरणाचे सुवातेर बसका खणपाचें काम सुरू करचे पयलीं उदकाचो प्रवाह वयले वटेन आडावन ताका वेगळी वाट करून दिवची पडटा.

धरणाची बांदावळ करताना ताच्या भितरल्या भागांत तरातरांचीं उपकरणां वापरतात. ह्या उपकरणांचो उपेग हो धरणाचें बांदकाम चालू आसतना आनी तें पुराय जातकच वेगवेगळ्या परिस्थितींनी धरणाचेर येवपी भार प्रणालींचो परिणाम जाणून घेवपाखातीर जाता. भूंयकांप जाल्यार सगळ्या धरणाची उबी-आडवी हालचाल जाता. तेन्ना ताची नोंद प्रवेगमापकांचो (accelerometer) वापर करून करतात.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक महाराष्ट्रांतले प्रवरा न्हंयेचेर भंडारदरा गांवांत बांदिल्लें फातरी बांदकामाचें विल्सन धरण हें ८४ मीटर उंचायेचें आसा. हें धरण त्या काळांतलें जगांतल्या ऊंच धरणांतलें एक अशें मानताले. पूण तेउपरांत भारतांत आनी जगांत ताचे परसूय ऊंच धरणां बांदप जालीं.

न्युरेक (रशिया), ग्रँड डिकसन्स (स्विट्झर्लंड), रोझेला (इटली), ऑरोविल (अमेरिका), ऑएन फॉल्स (युगांडा), आस्वान हाय (ईजिप्त), भाक्रा (भारत) हांचो जगांतल्या व्हड धरणांभितर आसपाव जाता. भाक्रा (पंजाब), नागार्जुन सागर (आंध्र प्रदेश), रिहांड (उत्तर प्रदेश), कोयना (महाराष्ट्र), हिराकूंद (ओरिसा), गांधीसागर (मध्यप्रदेश) हीं भारतांतलीं कांय मुखेल धरणां. साळावली, सांगे, तिळारी आनी अंजुणें (सत्तरी) हीं गोंयचीं मुखेल धरणां आसात.

— कों. वि. सं. मं.

**धर्तरी :** जीवसृश्ट आशिल्लो सूर्यकुळांतलो एक ज्ञात गिरो. सुर्यासावन ताची गिऱ्यांवळेरेंत तिसरी सुवात आसून, आकारमानाचे नदरेन सूर्यकुळांतलो तो पांचवो व्हड गिरो. सूर्यकुळांतल्या हेर गिऱ्यांप्रमाण धर्तरेकूय सुर्यासावन उजवाड मेळटा. चंद्रीम हो धर्तरेचो एकमेव सैमीक उपगिरो. धर्तरी सुर्याभोंवतणी थरावीक अंतराचेर लंबवाटकुळाकार घुंवत आसता. तशीच ती आपल्या अक्षाभोंवतणीय अस्तंतेकडच्यान उदेंतकडेन घुंवता. अंतराचे नदरेन धर्तरी सुर्यासावन तिसरी, म्हळ्यार शुक्र आनी मंगळ ह्या गिऱ्यांचे मजगतीं आसा. सूर्यकुळांतल्या हेर गिऱ्यांप्रमाण धर्तरेचेरूय प्रारण (Radiation), आयनांबर (Ionosphere), वातावरण (Atmosphere), शिलावरण (Lithosphere) हांचे थर आसात. १९६० त अवकाशांतल्यान घेतिल्ल्या फोटोंवयल्यान धर्तरी हो एक गिरो हें सिद्ध जालां. तिचो आकार वाटकुळो आसून, तिच्या भूंयपृष्ठाचेर जमनीपरस उदकाचें प्रमाण चड आसा. हाका लागून ती अवकाशांत निळशी कशी दिसता. स्वताभोंवतणी घुंवपाक सादारणपणान ती २३ वरां ५६ मिनटां आनी ४ सेकंद घेता जाल्यार सुर्याभोंवतणी एक भोंवडी मारपाक तिका एक वर्स म्हळ्यार सुमार ३६५.२५ दीस लागतात. ह्या काळांत अल्प असो फाटींफुडें बदल जायत आसता.

धर्तरी पुरायपणान वांटकुळी ना. म्हळ्यार मध्य भागासावन धर्तरेची ध्रुवीय आनी विषुववृत्तीय त्रिज्या एकसारकी ना. अस्तंत ते उदेंत अशी स्वताभोंवतणी घुंवता आसतना धर्तरेच्या मध्यभागार केंद्रोत्सारक नेट (Centrifugal force) तयार जावन, धर्तरी विषुववृत्ताकडेन मातशी फुगता जाल्यार ध्रुवांकडेन मातशी सपाट जाल्या.

**धर्तरेचें परिमाण -**

१) वस्तुमान (Mass) = ५.९७७ x $१०^{२७}$ ग्रॅ.

२) घनता (Density) = ५.५१७ g/cm³

३) आयतन (Volume) = १.०८३ x $१०^{२७}$ cm³

४) क्षेत्रफळ (Area) = ५१०१००५०० चौ. किमी.

५) जमीन (पृश्ठभाग) = १४८९५०८०० चौ. किमी.

६) उदक (पृश्ठभाग) = ३६१११४९७०० चौ. किमी.

७) विषुववृत्तीय त्रिज्या (Equatorial Radius) = ६३७८.२ किमी.

८) ध्रुवीय त्रिज्या = ६,३५६.२ किमी.

९) सरासरी त्रिज्या (Mean Radius) = ६,३७१ किमी.

१०) सुर्यासावन कमाल अंतर = १५.१ कोटी किमी.

११) सुर्यासावन किमान अंतर = १४.६ कोटी किमी.

१२) चंद्रासावन सरासरी अंतर = ३,८४,३२१ किमी.

१३) कक्षेचो परिघ = ९.४ अब्ज किमी.

१४) कक्षेतली गती = २९.६ किमी./से.

१५) सुर्याभोंवतणचो एके फेरयेचो काळ = ३६५ दीस, ५ वरां ४८ मि. आनी ४५.५१ से.

१६) स्वताभोंवतणचो एके फेरयेचो काळ = २३ वरां, ५६ मि. ४.०९१७ से.

**धर्तरेची धातू विभागणी**

| | |
|---|---|
| ॲल्युमिनियम | ०.४% |
| सल्फर | २.७% |
| सिलिकॉन | १३% |
| ऑक्सिजन | २८% |
| निकेल | २.७% |
| मॅग्नेशियम | १७% |
| आर्यन | ३५% |

**धर्तरेची खंडांमदली विभागणी**

| खंड | क्षेत्रफळ (चौ.किमी.) | टक्केवारी | सगळ्यांत उंचेलो भाग (मी.) | सगळ्यांत सकयलो भाग (मी.) | लोकसंख्या (दशलक्ष) १९९६ |
|---|---|---|---|---|---|
| आशिया | ४३९९८००० | २९.५% | एव्हरेस्ट ८८४८ | डॅडेसी ३९६.८ | ३५१३.२ |
| आफ्रिका | २९८००००० | २०.०% | किलिमांजारो ५८९४ | लेकआसायी १५६.१ | ७४८.१ |
| उत्तर अमेरिका | २१५१०००० | १६.३% | मॅककिनली ६१९४ | डॅथवेली ८५.९ | २९५.७ |
| दक्षिण अमेरिका | १७५९८००० | ११.८% | ॲकानकागुवा ६९६० | वाल्दीसस्पेनीन ३५.९ | ३२५.१ |
| युरोप | ९६९९५५० | ६.५% | एलब्रस ५६६३ | कॅस्पियन सी २८.० | ७२७.७ |
| ऑस्ट्रेलिया | ७६९९००० | ५.२% | कॉशियस्को २२२८ | लेक आएर १५.८ | १८.३ |
| अंटार्टिका | १३६००००० | ९.६% | विन्सनमॅसिफ ५१४० | — | — |

**उत्पत्ती आनी विकास :** धर्तरेची उत्पत्ती हो सूर्यकुळाचे उत्पतेचोच

एक वांटो आसून, सूर्यकुळावांगडा धर्तरेचीय उत्पत्ती जाल्या अशें कांय खगोलशास्त्रज्ञांनी मत मांडलां. आंतरतारकीय वायूसावन धर्तरी आनी गिरे एकाच वेळार संवनीत (Condensation) जाले आसुंये हो १८ व्या शेंकड्यांत मांडिल्लो सिद्धांत सादारणपणान चडशा खगोलशास्त्रज्ञांक मान्य आसा. ह्या सिद्धांताप्रमाण सुर्याची उत्पत्ती हेर सूर्यकुळांतल्या गिऱ्यांपरस पयलीं जाल्या. तांच्या मतान सुरवेक हायड्रोजन, तशेंच कांय प्रमाणांत हिलियम आनी साप उण्या प्रमाणांत हेर घटकांचे धुल्लकण आशिल्लें तपकडेच्या आकाराचें व्हड कूप सूर्याभोंवतणी घुंवतालें. उपरांत ह्या व्हड कुपाचे कांय ल्हानव्हड कुडके जावन ते सूर्याभोवतणीं घुंवपाक लागले. मुखार हे कुडके न्हिवून तांकां गिऱ्यांचें स्वरूप मेळ्ळें. सादद्याशा हो सिद्धांत सादद्याशा तर्काचेर आदारिल्लो आसलो तरी धर्तरेची उत्पत्ती सांगपी सगळ्यो आधुनीक कल्पना ह्या सिद्धांताचेर आदारिल्ल्यो आसात.

दुसऱ्या एका सिद्धांताप्रमाण सुर्याभोंवतणीं साबार ल्हानल्हान गिरे घुंवताले. ल्हवल्हव ह्या गिऱ्यांचें एकठांयकरण जावपाक लागलें, तेन्ना गुरुत्वीय उर्जेचें उश्णतायेंत रुपांतर जावन तांचें तापमान वाडत गेलें. ह्या मताप्रमाण सुरवेक धर्तरी कडिल्ले स्थितींत आशिल्ली. हे स्थितींत लोखण जड आशिल्ल्यान तें सकयल वचून ताचेपसून धर्तरेचो गाबो (Core) तयार जालो. किरणोत्सर्गी मूळद्रव्यां हलकीं आशिल्ल्यान सिलिकेट वयर येवन ताचेपसून प्रावरण निर्माण जालें. गाबो तयार जावपाची क्रिया खूब वेगीं जाल्ल्यान गाबो आनी प्रावरण हातूंत रसायनीक समतोल जावंक शकलोना.

भूंयरसायनीक आनी शिलाविज्ञानांतल्यान संशोधनात्मक पुराव्यांवयल्यान भुंयेचें कट्टें (Crust) प्रावरणापसून तयार जालां. खंडीय कवच निर्मितीचे प्रक्रियेंत भिन्नीभवनाचे (समान रसायनीक संघटण आशिल्ल्या शिलारसाचे विंगडविंगड संघटण आसपी भाग तयार जावपाची प्रक्रिया) उण्यांत उणें दोन थर आसतात आनी म्हासागरी कट्ट्याचे निर्मितीचे प्रक्रियेंत भिन्नीभवनाचो एक थर आसता. प्रावरणापसून कट्ट्याचें खडप निर्माण जावपाच्यो उदग्र भिन्नीभवन आनी पार्श्वीय भिन्नीभवन अशो दोन प्रक्रिया आसात.

सुरवेक उश्णतायेक लागून धर्तरेंतलो वायू मुक्त जावन ताचेपसून धर्तरे भोंवतणी एक मुळावें वातावरण निर्माण जालें. हालींचें वातावरण आनी जलावरण, धर्तरेच्या अंतरंगांतल्यान मुक्त जावन वयर आयिल्ल्या वायूंपसून तयार जाल्यांत.

धर्तरेच्या सुरवेच्या वातावरणांत हायड्रोजन वायू खूब आशिल्लो अशें मत आसा. पूण तो साप ल्हव आशिल्ल्यान व्हड प्रमाणांत अवकाशांत गेलो. ताचे वांगडा हीलियम, निऑन, आर्‌गॉन आनी हेर अक्रिय वायू आनी अल्प प्रमाणांत हेर वायू वयर गेले. उपरांत मिथेन, अमोनिया, कार्बन डायऑक्सायड, उदकाची वाफ आनी हेर गौण वायू हे वातावरणाचे मुखेल घटक जाले. हें वातावरण क्षपणकारक गूणधर्माचें आशिल्ल्यान ह्या वातावरणांत जिवोत्पत्ती जाली अशी एक कल्पना आसा.

हायड्रोजन वयर गेले उपरांत अमोनिया आनी मिथेन वायू अस्थीर जायत गेले. हाका लागून नायट्रोजन आनी हेर सगळ्या द्रव्यांचो मुलभूत घटक आशिल्लो कार्बन मुक्त जायत गेलो. उपरांत ल्हवल्हव वातावरणांतल्या वायूंचें प्रमाण बदलत गेलें आनी ज्वालामुखीक लागून कार्बन डायऑक्सायड तशेंच उदकाची वाफ हांचें प्रमाण वाडत गेलें. हे वाफेचें उदक जावन तें एकसारकें भूंयपृश्ठाचेर सांचत रावून ताचेपसून तळयो, तळीं आनी उथळ म्हासागर निर्माण जाले.

धर्तरेच्या विकासाच्या दुसऱ्या थरांत कांय सुक्ष्मजीव हरीतद्रव्यां (क्लोरोफिल) निर्माण करपाक लागले. मुखार हरीतद्रव्यांच्या आदारान वनस्पत, वातावरणांत आशिल्लो कार्बन डायऑक्सायड भितर घेवन ताचेपसून आपलें अन्न तयार करपाक लागली. ही प्रक्रिया चालू आसतना वनस्पत प्राणवायू भायर सोडटा. हाका लागून वातावरणांत मुक्त प्राणवायुचें प्रमाण वाडत गेलें.

अब्जांनी वर्सांपयलींच्या काळांत दर्यांत सागरी जिवांच्या क्रमविकासाक सुरवात जाली. हे जीव वनस्पतीचेर जगताले. कँब्रियन काळांत जिवांभोंवतणीं आनी भितर कॅल्शियम कारबोनेटाचीं कट्टीं आनी सांगाडे तयार जावपाक लागले. अशे रितीन तांकां एका खाशेल्या प्रकाराचो आकार आयलो. उपरांत भितर एकसारको बदल जावन वा तांचेभितर भरसण जावन जिवांचो क्रमविकास चालूच रावून आयची जीवसृश्टी निर्माण जाली.

**पिराय :** धर्तरी केन्ना निर्माण जाली हें निश्चीतपणान सांगप आयज लेगीत खूब कठीण आसा. पूण वेगवेगळ्या देशांतल्या आदीम धर्मीक ग्रंथांनी वा दंतकथांनी धर्तरी केन्ना निर्माण जाली हे विशीं साबार उल्लेख मेळटात. हिंदू पंचांगांत धर्तरी निर्माण जावन स मन्वंतरां आनी सद्या चालू आशिल्ल्या सातव्या मन्वंतराचीं सत्तावीस म्हायुगां सोंपलीं. म्हळयार लागींलागीं १,९७,२९,४९,०६० वर्सांचो काळ जावन गेलो. खाल्डियेंतल्या धर्मगुरूचे कल्पनेप्रमाण धर्तरेचो जल्म सुमार वीस लक्ष वर्सांआदीं जालो, जाल्यार पारसी धर्मप्रवर्तक जरथुश्त्र हाच्या मतान तो बारा हजार वर्सांचो आसा. आयर्लंडाचो आर्चबिशप अशर हाणें हिब्रू कालगणनेचो आदार घेवन धर्तरेचो जल्म क्रिस्तापयलीं ४००४ ह्या वर्सा जालो अशें सांगलां. धर्तरेची पिराय सांगपी अशो साबार दंतकथा वेगवेगळ्या धर्मांनी सांपडटात. पूण आधुनिक पद्धतीन धर्तरेची पिराय सांगपाचे यत्न एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक जाले. विल्यम टॉमस केल्व्हिन ह्या भूभौतिकीतज्ञान १८९७ त भूभौतिक पद्धतिन धर्तरेची पिराय दोन ते चार कोटी वर्सां थरयल्या उपरांत १९०६ त आर.जे. स्ट्रट हाणें धर्तरेच्या पोटांत सांपडपी विंगड विंगड प्रकारांच्या तळपांनी किरणोत्सर्गी द्रव्यां आसतात हाचो सोद लायलो. त्या सोदाक लागून विल्यम केल्व्हिन हाणें मांडिल्ले पद्धतिचो दोश स्पश्ट जालो. धर्तरी ही फक्त न्हिवपी वा थंड जावपी वस्त नासून, तिच्यांतल्या किरणोत्सर्गी द्रव्यांक लागुनूय तयार जावपी उश्णतेची भर तिच्या मुळावे उश्णतेंत पडटा. हाका लागून केव्हिनान थारयल्ले पिरायेपरस धर्तरेची पिराय खूब चड आसा हाची जाणीव जाता. सद्या भूवैज्ञानिक, किरणोत्सर्गमापन आनी विश्वोत्पत्तिशास्त्राच्या तत्त्वाचेर आदारिल्ल्या पद्धतींवरवीं धर्तरेची पिराय थारोवपाचे यत्न जाल्ले आसा. कांय तळपांत आशिल्ल्या किरणोत्सर्गी खनिजांच्या विघटनाचें मापन करून धर्तरेची पिराय सुमार साडेचार अब्ज वर्सां थरयल्या. विश्वोत्पत्तिशास्त्रावरवीं मूलद्रव्यांची निर्मीती आनी तांचे वेगवेगळ्या काळांत बदलपी परस्पर प्रमाण हांच्या अभ्यासांतल्यान धर्तरेची चडांत चड पिराय ६.६ अब्ज वर्सां थरयल्या.

**गती :** धर्तरी, स्वताभोंवतणी तशीच सुर्याभोंवतणी एकसारकी घुंवत आसता. ही घुंवपाची गती आकाराच्या मानान सवकास आशिल्ल्यान मनीस तिचेर आसून लेगीत ती ताका जाणवना. धर्तरी आपले भोंवतणीं घुंवत आसता. हाका लागून दीस आनी राती जायत आसतात. आपल्या

अक्षाभोंवतणीं धर्तरी अस्तंतेसावन उदेंतेकडेन घुंवता. ताका भ्रमणाक्ष म्हण्टात. भ्रमणाक्षाभोंवतणीं एक भोंवडी मारपाक धर्तरेक एक दीस मळ्यार सुमार २३ वरां ५६ मिनटां चार सेकंद लागतात. अक्षीय गतीक लागून विषुववृत्तावयलो दर एक बिंदू वराक सुमार १,६०० किमी. गतीन घुंवत आसता. विषुववृत्तासावन बिंदू जशे पयस वतात तशी तांची गती उणी जायत वता. ध्रुवावयल्या बिंदूची गती शुन्य आसता. धर्तरी आपलेभोंवतणीं घुंवता आसतना ती सुर्याभोंवतणीय घुंवत आसता. हाका कक्षीय गती अशें म्हण्टात. धर्तरी सुर्याभोंवतणीं लांबवाटकुळाकार (Eliptical) कक्षेंत घुंवता. एक भोंवडो मारपाक धर्तरेक एक वर्स लागता. धर्तरेचे कक्षेमदली गती दर सेकंदाक २९.७६ किमी. आसता.

**तापमान आनी उश्णताय :** सुर्यासावन येवपी वताक लागून जमीन तापता. पूण धर्तरी आनी सूर्य हांचेमदलें अंतर, धर्तरीची अक्षीय गती, तशेंच धर्तरे भोंवतणच्या वातावरणाचें स्वरूप, ह्या सगळ्यांक लागून धर्तरेचेर येवपी वताचेर नियंत्रण उरता. धर्तरेभितर आशिल्लीं मूलद्रव्यां आनी किरणोत्सर्गी मूलद्रव्यां भितर आशिल्ले उश्णतायेक लागून वा धर्तरेच्या अंतरंगांत जावपी घर्शणाक लागुनूंय धर्तरेचें तापमान वाडटा. धर्तरेच्या भायल्या थरांत सरासरी दर किमी.चे खोलायेप्रमाण तापमान वाडत वता. पूण चड खोलायेचेर ताचेर नियंत्रण उरता अशें मत कांय भूंयतज्ञांनी मांडलां.

**चुंबकत्व :** धर्तरेभितर चुंबकी गूणधर्म आसा हें मध्ययुगाच्या निमाणेकडेन साबीत जालां. धर्तरी हो एक व्हड पूण दुर्बळ असो चुंबक आसा हें विल्यम गिलबर्ट हाणे १६०० वर्सा दाखयलें. धर्तरेच्या चुंबकी गूणधर्माक लागून तिका प्राप्त जाल्लें चुंबकी क्षेत्र सु. ०.५० गौस आसून ताका भूचुंबकत्व म्हण्टात. धर्तरेचें चुंबकी क्षेत्र तिचे भोंवतणी पातळिल्लें आसून अवकाशांतल्या विद्युत् भारित कणांचे हालचालींचेर ताचो जेमेरेन प्रभाव पडटा अशा भागाक चुंबकांबर म्हण्टात.

धर्तरेच्या पोटांत आशिल्ल्या चुंबकी द्रव्यांक लागून धर्तरेक चुंबकत्व आयिल्लें आसा, असो आदल्या तेंपार समज आशिल्लो. पूण चुंबकी क्षेत्र हें धर्तरेच्या द्रायुरूप आनी धातवीय गाभ्यांतल्या विद्युत् प्रवाहांनी निर्माण जाता हें डब्ल्यू. एलझ्झर हाणें १९४७त दाखयलें.

सूर्य आनी हेर गिऱ्यांप्रमाण धर्तरी हीय एक रेडिओ उद्गम आसा. पूण चुंबकांबरांत निर्माण जावपी हे रेडिओ तरंग जमनीकडेन येता आसतना मदल्या आयनांबारान परावर्तीत जावन अवकाशांत परत वतात. १९७०त उपगिऱ्यांच्या आदारान केल्ल्या रेडिओ तरंगांच्या आनी आयनद्रयू तरंगांच्या मापनावयल्यान सूर्य, गुरू आनी शनी हांचेप्रमाण पृथ्वीय एक खर रेडिओ उद्गम आशिल्ल्याचें स्पश्ट जालां.

**भुंयेचें रूप आनी तांची उत्पत्ती :** धर्तरेची जमीन आनी म्हासागर अशी विभागणी केल्ली आसा. धर्तरेचो चडसो आवाठ उदकान व्यापिल्लो आसा. खंड आनी म्हासागर हीं भुंयेचीं दोन मुखेल स्वरुपां आसात. दोंगर, देगणां, रॅवटां तशेंच सपाट प्रदेश, न्हंयो, तळीं अशीं भुयेचीं साबार स्वरुपां दिश्टी पडटात. ज्वालामुखी, पावस, भरती-सुकती, भूंयकांप, हवामानांतलो बदल आनी हेर क्रियांक लागून म्हासागर आनी जमीन हांचेर परिणाम जातकूच भुंयेचें पयलीचें स्वरुप नश्ट जाता वा तातूंत थोडोभोव बदल जाता. भूंयस्वरुपाचे उत्पत्तीविशीं साबार सिध्दांत मांडल्यात.

पातळ वा कडिल्ल्या पदार्थांचेर (डांबर) जर जड वस्तू दवरली जाल्यार ती वस्तू ल्हवल्हव सकयल वचून उपरांत तिका थिराय येता. भूंयकवच ही असल्याच प्रकाराची प्रावरणाचेर आशिल्ली वस्तू आसून, कट्ट्याचें द्रव्य प्रावरणाच्या द्रव्यापरस ल्हव आसा अशें मानलां. हाका लागून कट्ट्याचे थर मुक्तपणान उफेवपाक शकतात. इतले खोलायेचेर वचून ताका थिराय येवन भूंयस्वरूप तयार जालां अशी एक कल्पना आसा.

**पर्वत आनी देगण निर्मीती :** एकेच सुवातेर एकसारको गाळ सांचिल्ल्यान थंय तांचे थर तयार जातात. उपरांत तांचेर दाब पडून तांच्यो घडयो तयार जातात. अशो गाळाच्यो साबार घडयो तयार जावन पर्वत तयार जातात. भुंयकट्ट्याक वेरो वचून वा धतरेभितल्ल्या आनी ज्वालामुखींच्या क्रियांक लागून पर्वत निर्माण जातात. दोंगरांचेर पडपी पावसाक लागून वा बर्फ वितळिल्ल्यान हें उदक सुरवेक ल्हानल्हान खळ्यांतल्यान व्हांवता. अशो साबार खळयो एकठांय जावन उपरांत तांकां न्हंयेचें रुप मेळटा. दोंगरावयल्यान नेटान व्हावपी उदकाच्या लोटाक लागून न्हंयेचें पात्र ल्हवल्हव रूंद आनी खोल जायत रावता. हाका लागून देगणां तयार जातात. कांय वेळार भुंयेक व्हड वेरो गेल्ल्यानूय देगणां तयार जातात.

**वातावरण :** धर्तरे भोंवतणच्या वेगवेगळया वायूंच्या थरांक वातावरण अशें म्हण्टात. तापमानाचे रचणुकेप्रमाण वातावरणाचे थर रचल्यात. सगळ्यांत सकयल आशिल्ल्या थराक क्षोभावरण अशें म्हण्टात. क्षोभावरण हो थर विषुववृताकडेन मातसो फुगिल्लो आसून सादारणपणान ताची दाटाय १० ते १२ किमी. इतली आसा. ह्या थरांची उंचाय वाडटा तशें तापमान घटत रावता. वातावरणांत मुखेलपणान नायट्रोजन (७८%) आनी ऑक्सिजन (२१%) हे वायू आसून उरील्ल्या प्रमाणांत आर्‌गॉन, कार्बन डायऑक्सायड, हायड्रोजन, निऑन, ओझोन, हीलियम, उदकाची वाफ आनी हेर वायू अल्प प्रमाणांत आसात.

**शिलावरणः** जमनीच्या वयल्या थराक शिलावरण म्हण्टात. शिलावरणाची सरासरी दाटाय सुमार ३५ किमी. आसा. पर्वतांची उंचाय, म्हासागराची खोलाय, देगणां, ल्हानव्हड खळयो हांकां लागून शिलावरणाचें पृश्ठ खडबडीत आसा. शिलावरणाचे खंडीय आनी अधःखंडीय अशे दोन थर केल्यात. खंडीय थरांतलें तळप मुखेलपणान ग्रॅनायटा सारकिल्या संघटणांचें आसता आनी अधःखंडीय थरांतलें तळप चडशें बेसाल्टाच्या संघटणांचें आसता.

**जलावरण :** भूंयपृश्ठावयल्या उदकाच्या भागाक जलावरण म्हण्टात. तातूंत म्हासागर, दर्या, न्हंयो, तळीं, तळयो, हीम तशेंच खनिजांतल्या उदकाचोय आस्पाव जाता. जलावरणांतलो भूंयपृष्ठाचो सुमार ७१% भाग आसा. दक्षिण गोलार्धाचो चडसो भाग उदकातळा आसा. पॅसिफिक, ॲटलांटिक, हिंदी म्हासागर, आर्क्टिक आनी ॲंटार्क्टिक दर्या हे मुखेल सागर आसात. तातूंतलो पॅसिफिक हो सगळ्यांत व्हड आनी खोल.

**आकृती आनी गुरूत्व :** धर्तरेचो आकार वाटकुळो आसा हाचेर पुर्विल्ल्या काळासावन भासाभास जायत आयल्या. पूण त्या काळांत हे संबदी स्टश्टपणान म्हायती मांडपाक कोणाकूच शक्य जालेंना. धर्तरी वाटकुळी आसा अशें पायथागोरस (इ.स. प.६वो शेंकडो) हाचें मत आशिल्लें. ॲरिस्टॉटल हाणें चंद्रगिराणाच्या वेळार, चंद्रिमाचेर पडपी धर्तरेची सावळी वाटकुळी आसता हें दाखोवन पायथागोरस हाचें मत सिद्ध केलें. दक्षिणेसावन उत्तरेक वचत रावल्यार सूर्य आनी हेर नखेत्रांची सुवात बदलता. ह्या बदलांच्या आदाराचेर एराटॉस्थीनीझ (इ.स.प. -२७६-

१९४) हाणें सुरवेक धर्तरेचें आकारमान काडलें आनी टॉलेमी (इ.स. ९०-१६९) हाणें धर्तरेचो व्यास काडलो. तरी पूण धर्तरेच्या आकाराविशींचो दुबाव लोकांच्या मनांत तसोच रावलो. मुखार १६ व्या शेंकडयाचे सुर्वेक फेर्दिनांद मागाल्ल्यांयश हाणें धर्तरेक प्रदक्षणा काडलेउपरांत धर्तरेचें वांटकुळेपण सिद्ध जालें. धर्तरी आपलेभोंवतणी घुंवत आशिल्ल्यान उत्पन्न जावपी केंद्रोत्सारी (Centrifugal) प्रेरणेक लागून विषुववृत्ताकडेन मातसो फुगीर आनी ध्रुवांकडेन थोडो चेपटोसो वाटकुळाकार तिका येता ही कल्पना आयझॅक न्युटन हाणें मांडली. विषुववृत्तीय त्रिज्या ही ध्रुवीय त्रिज्येपरस चड आशिल्ल्यान धर्तरी पुरायपणान वाटकुळी ना हें सिद्ध जाता.

धर्तरेवयल्या खंयचेय वस्तूचेर कार्य करपी आनी ते वस्तूक धर्तरेच्या मध्याक खेंचपी प्रेरणा म्हळ्यार धर्तरेची गुरूत्वीय प्रेरणा. धर्तरेच्या पृश्ठभागार सरासरी गुरूत्वीय प्रवेग ९७९.७६ सेंमी./सॅ. इतलो आसता. गुरुत्वीय प्रेरणेची खराय खोलायेप्रमाण उणी जायत वता आनी धर्तरेच्या मध्याकडेन ती शुन्य आसता. धर्तरी पुरायपणान वाटकुळी नाशिल्ल्यान, भूंयपृष्ठाचेर वेगवेगळे सुवातेर अक्षांशाप्रमाण गुरूत्वीय प्रवेग वेगळोवेगळो आसता. ह्या गुरूत्वाकर्शणाक लागून धर्तरेभोंवतणचे वातावरण तिगून उरलां. खंयचीय वस्तू धर्तरेच्या गूरूत्वाकर्शणांतल्यान भायर पडपाक तिका जो नेट जाय पडटा, ताका मुक्तीवेग म्हण्टात. भुंयपृष्ठावयलो मुक्तीवेग सेकंदाक सुमार ११.२ किमी. इतलो आसा.

भुंयपृश्ठाचेर वातावरणाचो दाब दर चौ. सेंमी. क सुमार १ किग्रॅ. इतलो आसा. ह्या दाबाक वातावरणीय दाब अशें म्हण्टात. भुंयेसावन जितले वयर वता तितलो हो दाब उणो जायत वता. पूण खोलायेप्रमाण हो दाब वाडटा.

**अक्षांश आनी रेखांश :** धर्तरेचेर अशिल्ले खंयचेय वस्तूची सुवात दाखोवपाखातीर अक्षवृत्त आनी रेखावृत्त हांचो उपेग जाता. अक्षवृत्त ही उदेंत-अस्तंत अशी कल्पिल्ली आसून आनी रेखावृत्त ही दक्षिण-उत्तर अशी कल्पिल्ली आसात. धर्तरेच्या गोल पृश्ठाचेर दोनूय ध्रुवांसावन समान अंतराचेर कल्पिल्ल्या उदेंत-अस्तंत वाटकुळाक 'विषुववृत्त' अशें म्हण्टात. विषुववृत्ताक लागून गोल भूंयपृश्ठाचे दोन समान वांटे जातात. विषुववृत्ताच्या उत्तर भागाक 'उत्तर गोलार्ध' आनी दक्षिण वाट्याक 'दक्षिण गोलार्ध' अशें म्हण्टात. विषुववृत्ताक समांतर कल्पिल्ल्या वाटकुळांक 'अक्षवृत्त' म्हण्टात. एका अक्षवृत्ताचेर सगळीं थळां विषुववृत्ताच्या पांवड्याकडेन धर्तरेगोलाच्या मध्यबिंदूकडेन सारकोच कोन करतात. ह्या थळांचे विषुववृत्ताकडेन आशिल्लें कोनीय अंतर म्हळ्यार तांचो अक्षांश विषुववृत्त हें सगळयांत व्हड आनी मुळावें अक्षवृत्त. ताचेर आशिल्ल्या सगळ्या थळांचो अक्षांश ०° आसता. दोनूय ध्रुवांकडेन अक्षवृत्त ल्हानल्हान जायत वतात. दोनूय ध्रुंवातल्यान दक्षिणोत्तर वचपी अर्दवाटकुळांक रेखावृत्त अशें म्हण्टात. तीं अक्षवृत्तांक काटकोन करतात. मुळाव्या रेखावृत्ताचो पांवडो आनी स्थळ रेखावृत्तीचो पांवडो हांचेमदल्या कोनांक 'रेखांश' म्हण्टात.

**इतिहासिक म्हायती :** पुर्विल्ल्या काळासावन धर्तरे संबंदान विंगडविंगड कल्पना चालंत आसात. खूब आदल्या काळांत, धर्तरी सपाट आसून ती कसल्यातरी आदाराचेर थीर आसा आनी ह्या आदाराक लागून सूर्य, चंद्रीम आनी हेर गिरे धर्तरेसकयल वचून परत वयर येतात असो समज आशिल्लो. बॅबिलोनियी, प्राचीन ग्रीक आनी हिब्रू लोकांच्या मतान सैमाच्या पृष्टभागाचेर पातळिल्ल्या उदकांतल्ल्या वयर आयिल्लो जुंवो म्हळ्यार धर्तरी. होमर (क्रिस्तापयलीं ९००-८००) हाच्या मताप्रमाण धर्तरी ही बहिर्गोल आकाराची तपकडी आसून तिचे भोंवतणी उदक आसलें. सुमार ह्याच तेंपार इजिप्ती आनी हेर लोकांच्या मतान धर्तरी ही एक व्हड तपकडी आसून, ती एका व्हड सागरी कांसवाचे फाटीर थीर आसली. सूर्य आनी चंद्रीम हांचेसारकीच धर्तरी वाटकुळी आसा, हो युक्तीवाद सुर्वेक पायथागॉरस आनी ताच्या वांगड्यांनी मांडलो (इ.स. प. सवो शेंकडो) ॲरिस्टॉटल आनी हिपार्कस हांणीय पायथागॉरसच्या मताक तेंको दिल्लो. मागाल्ल्यांयश (१४८०-१५५१) हाणें धर्तरेक प्रदक्षणा घालून धर्तरेचो वाटकुळाकार सिद्ध केलो. ह्या तेंपामेरेन धर्तरेच्या आकाराविशीं वेगवेगळीं साबार मतां आशिल्लीं. धर्तरेचो आकारमान काडपाचें शास्त्रीय मापन पद्दतीचें वर्णन आनी वापर सुरवेक एराटॉस्थीनीझ हाणें केलो. धर्तरी वाटकुळी, थीर आनी सैमाच्या मध्यभागार आसून हेर खस्थ पदार्थ तिचे भोंवतणी वाटकुळाकार कक्षांनी घुंवत आसतात, अशें टॉलेमी हाचें मत आशिल्लें. पूण कोपर्निकस (१४७३-१५४३) हाणें सूर्य हो तारो सूर्यकुळाच्या मध्यभागार आसून हेर खस्थ पदार्थ ताचे भोंवतणी घुंवतात अशें मत मांडलें. झां पिकार हाणें अक्षांश थरोवपाखातीर पयलेच खेपे दुर्बिणीचो उपेग केलो. उपरांत धर्तरेक अक्षीय आनी कक्षीय गती आसात हें १७२५ त सिध्द जालें. धर्तरेचें वस्तूमान काडपाची पद्धत सुरवेक न्युटन हाणें मांडली. उपरांत १८३१त धर्तरेचो उत्तर ध्रूव चुंबकीय जे. सी. रॉस हाणें, जाल्यार दक्षिण ध्रूव चुंबकी इ. एच. शॅकल्टन हाणें १९०९ त सोदून काडलो.

एराटॉस्थीनीझ ते झां पिकारा मेरेनच्या काळांत धर्तरी वाटकुळी आसा हें सिद्ध करपाचे साबार भूंयशास्त्रज्ञांनी आपले वेगवेगळे सिद्धांत मांडले. हाका लागून ह्या काळाक भूंयगणितांतले 'वाटकुळाकार यूग' अशें म्हण्टात. मुखार न्युटन आनी क्रिस्तीआन हायगॅन्झ (१६२९-९५) हांणी सुचयल्ल्या धर्तरेच्या दीर्घवृत्ताभ आकाराचो काळ येता. निमाणेकडेन भूंयरूप सिद्धांताचें युग चालू जालें.

**भारतीय मत :** भारतीय परंपरेप्रमाण धर्तरी ही पंचम्हाभुतांतली एक. प्रथ् (विस्तार जावप) ह्या धातूवयल्यान पृथ्वी (विस्तार जावपी) हो शब्द आयला. मनू हाच्या मतान हिरण्यरूप तांतयाचीं दोन अर्दां जावन धर्तरी आनी द्यो (मळब वा स्वर्ग) तयार जाला. ह्या मता प्रमाण सुर्वेक धर्तरेचो जल्म जावन उपरांत द्योचीं आंगां म्हळ्यार सूर्य आनी हेर गिऱ्यांची निर्मीती जाली. तैत्तिरीय ब्राह्मणांत मांडिल्ल्या मताप्रमाण प्रजापतीन उच्चारिल्ल्या भू ह्या शब्दावयल्यान भूंय (धर्तरी) उत्पन्न जाली. पौराणिक कल्पनेप्रमाण धर्तरी शेष नांवाच्या नागान आपल्या माथ्यार सांवरल्या.

ऋग्वेदांत रूंद पातळिल्ली भूंय असो धर्तरेचो उल्लेख केला. धर्तरे भोंवतणी दर्या आसा असो उल्लेख ऐतरेय ब्राह्मणांत मेळटा. तशीच, धर्तरी वाटकुळी आसून ती मळबासावन वेगळी आनी अवकाशांत कसलोच आदार नासतना ती उफेता असोय उल्लेख सांपडटा. शतपथ ब्राह्मणांत धर्तरेक सृश्टी आनी अग्निगर्भ अशें म्हळां. तशीच ती वाटकुळी आसा अशेंय तातूंत सांगलां. ऋग्वेदसंहितेच्या काळांत लेगीत धर्तरी वाटकुळी आनी निराधार आसा हाची जाण आशिल्ली. मनशाक उपेगी पडपी सगळ्यो वस्तू धर्तरेसावन मेळटात. हाका लागून शांखायान अरण्यकांत धर्तरेक वसुमती (संपत्तीन भरिल्ली अशी) अशें नांव दिलां. धर्तरी आपले भोंवतणी घुंवता, हाका लागून सूर्य आनी हेर गिरे धर्तरेभोंवतणी घुंवता असो भास जाता हें मत पयल्या आर्यभट्टान इ.स.प. ६ व्या शेंकड्यांत मांडलें. ह्या

ताच्या मताक लागून उपरांत आर्यभट्टाचेर खूब टिका जाली. पूण धर्तरी सूर्याभोंवतणी घुंवता अशें ताचें मत नासलें. बाराव्या शेंकड्यांत भास्कराचार्य हाणें धर्तरेचे कुडींत आकर्शणशक्ती (गुरुत्वाकर्शण) आसा, हाका लागून अवकाशांतली खंयचीय जड वस्तू धर्तरेचेर पडटा अशें सांगलें. भारतीय ज्योतिशशास्त्रांत वेगळ्यावेगळ्या सिद्धांतांनी धर्तरेविशीं विंगडविंगड भुगोलीक म्हायती मेळटा.

— कों. वि. सं. म.

पूरक नोंदी : पर्वत, देगणां आनी न्हंय.

**धर्म :** देव ह्या अलोकीक स्वयंभू तशें सर्वशक्तीमान आनी पवित्र, विस्वासपात्र अशे विभूतिक मध्यवर्ती दवरून, हे विभूतीकडेन अनुकूल असो आनी लागीलागीं सैमीक असो संबंद स्थापीत करपी वैयक्तीक वा समाजीक प्रवृत्ती. ह्या संबंदाक गरजेची अशी आचार संहीता, निती आनी कर्मकांड हीं मूळ प्रवृत्तीचीं गरजेचीं अशीं आंगां. मूळ प्रवृत्ती आनी हीं गरजेचीं आंगां मेळून धर्म ही संकल्पना तयार जाता.

भारतीय इतिहासांत धर्म ह्या शब्दाचो मुखेलपणान कर्तव्य ह्या अर्थानूच उपेग जाला. पूण त्या शब्दाच्या अर्थांत काळाकाळांनी बदल जायत रावला. वैदिक भाशेच्या साप सुरवेच्या काळांत धर्म ह्या शब्दाचो अमुकूच अर्थ किदें आशिल्लो हें सांगप खूब कठीण. कांय भाशा जाणकारांच्या मतान हो शब्द धृ, म्हळ्यार धारण करप, आदार दिवप, पोशण करप ह्या धातूंसावन तयार जाल्लो आसा. ऋग्वेदांतल्या कांय वाक्यांनी तो शब्द धारण करपी वा आदार दिवपी ह्या अर्थान येवजिला अशें कळटा. कांयकडेन तो शब्द पुल्लिंगी जाल्यार हेरकडेन धर्म हो शब्द धर्मासंबंदीं नेम घालून दिवपी वा धर्मीक विधी ह्या अर्थान वापरला. कांय वाक्यांनी त्या शब्दांचो अर्थ 'आचरणाचीं निश्चीत तत्त्वां वा नेम' असो आसा.

अथर्ववेदांत धर्म हो शब्द धर्मीक विधी करून मेळिल्लें पुण्य ह्या अर्थान येवजिला. ऐतरेय ब्राह्मणांत हो शब्द 'धर्मासंबंदींच्या कर्तव्यांची पुराय म्हायती सांगपी' ह्या नात्यान वापरला. छांदोग्य उपनिषद हातूंत 'चारूय आश्रमांचीं खाशेलीं कर्तव्यां' असो ह्या शब्दाचो अर्थ सांगला. तशेंच, धर्माचे तीन फांटे आसात अशेंय तातूंत मुखार म्हळां. यज्ञ, अध्ययन आनी दान हांचो पयल्या फांट्यांत आस्पाव जाता (गृहस्थाश्रमधर्म), दुसऱ्या फांट्यांत तपांचो (वानप्रस्थाश्रमधर्म) तर तिसऱ्या फांटयांत आपल्या गुरूंच्या आश्रमांनी रावपी आनी आमरणन्त गुरूंची सेवा करपी ब्रह्मचारी हांचो आस्पाव जाता. तैत्तिरीय उपनिषदांत विद्यार्थ्याक केल्ल्या 'सत्यं वद, धर्मं चर' आनी हेर उपदेशांनी धर्म हो शब्द विद्यार्थ्यांक तांचीं कर्तव्यां आनी अधिकार सांगता.

'धर्म' ह्या शब्दाचो खोलायेन अभ्यास केल्यार, ताच्या अर्थांत ऋग्वेद काळासावन ते वेदांतामेरेन बदल जायत रावले. पूण निमाणेकडेन त्या शब्दाक आर्यांच्या समाजाचो एक घटक ह्या नात्यान तशेंच जण एके जातीतली आनी अवस्थेंतली वक्ती, ह्या नात्यान तांचे अधिकार, कर्तव्यां आनी तांच्यो जापसालदारक्यो असो खूब म्हत्वाचो अर्थ प्राप्त जालो. तैत्तिरीय उपनिषद, भगवतगीता आनी हेर धर्मशास्त्रांनीय ह्या शब्दाचो अर्थ तोच सांगला. सगळ्या धर्मसुत्रांचो उद्देश म्हळ्यार वर्णांचे आनी आश्रमांचे धर्म (duties) सांगप, अशें तंत्रवार्तिकांत म्हळां. मनुस्मृती ह्या ग्रंथाचेर टिका करतना मेधातिथी हाणें वर्णधर्म, आश्रमधर्म, वर्णाश्रमधर्म नैमित्तिकधर्म आनी गुणधर्म, अशा पांच प्रकारच्या धर्मांचो उल्लेख केला.

हिंदू, बौध्द, क्रिस्तांव, ईस्लाम आनी हेर उंचेल्या धर्मांच्या (religions) तत्त्वगिन्यानांचो अभ्यास केल्यार, सादारणपणान धर्माची व्याख्या अशी करूं येता. 'इश्टप्राप्त्यर्थ करून दिवपी आनी वायट प्रवृत्ती तशेंच वायट आचरण हांचो नाश करपी अलोकीक शक्तीची साधना वा आराधना म्हळ्यार धर्म' (अलोकीक म्हळ्यार, सैमाचे आनी जिविताचे नेम थरोवपी शक्ती). साप सोंपे भाशेंत सांगचें जाल्यार, जीण परिपूर्ण आनी कृतार्थ करपी आनी अपरिपूर्ण, दूशीत तशेंच अशांत जीण बदलून उडोवपी, उंचेलीं ध्येयां प्राप्त करून दिवपी पद्दत म्हळ्यार धर्म. सैमाचे आनी जिणेंतले नेम घालून तांचेर नियंत्रण दवरपी, तशेंच मनशाच्या पुराय भवितव्याकडेन संबंद आशिल्ल्या शक्तींचेर मनशाची श्रध्दा आसता, त्या शक्तीकडेन स्वताचो पवित्र संबंद जोडपाची वैयक्तिक वा भौशीक मनप्रवृत्ती आनी तातूंतल्यान वयर आयिल्ली आचरणाची पद्दत म्हळ्यार धर्म. अशो, साबार तज्ञांनी आपआपले प्रवृत्तींप्रमाण आनी संस्कृतीच्या उच्चनीच थरांप्रमाण धर्माच्यो वेगवेगळ्यो व्याख्या सांगल्यात.

विल्यम जेम्स हाणें धर्माचे संस्थारूप आनी वैयक्तिक अशे दोन प्रकार सांगल्यात. यज्ञ, पुजा म्हळ्यार कर्मकांड, देवतांविशींचे वेवस्थेचें तंत्र, देवविद्या, सण आनी पुरयत संघटना हांचो संस्थारूप धर्मांत आस्पाव जाता. वैयक्तिक धर्म हो व्यक्तीच्या मनाचो वा काळजाचो धर्म. हातूंत भक्त मनांतल्यानूच देव वा देवतांकडेन संबंद स्थापीत करपाचो यत्न करता.

आयज संवसारांतल्या चडशा धर्मांचो (Religions) अभ्यास केल्यार, लोकांचो आपआपल्या धर्माचेर भावार्थ आसा हें दिसलां. तज्ञांनी हाचीं साबार कारणां दिल्लीं आसात. चडशे लोक आपल्या वाडवडिलांनी दवरिल्ल्या थेव्याचें, म्हळ्यार आपली संस्कृती, जमात वा कुटुंब हांचें धर्माकडेन दायज आसा अशें मानतात. तसोच धर्म हो लोकांच्या मनांत राखणेची भावना निर्माण करता. तांच्या मतान एक व्हड अशी दिव्य शक्ती तांच्या सगळ्या हालचालींचेर देखरेख दवरता. अशा भावार्थाचे लोक सदांच देवाकडच्यान राखणेची वा आदाराची अपेक्षा दवरतात. धर्म हो लोकांच्या काळजांत वा मनांत सदांच मोक्षाची भावना जागी दवरता. कांय लोक आपल्या धर्मीक लागुनूच आपले जिणेक अर्थ आसा आनी समाजांत मान आसा अशें मानतात. तशेंच, धर्म, सत्य आनी असत्य हातूंतलो फरक किदें? एका मनशाचे दुसऱ्या मनशाकडेन वा सैमाकडेन संबंद कशे आसचे? जिणेचो खरो अर्थ किदें? ह्या सारकिल्या प्रस्नांक जापो दिता. हाका लागून जण एकलो आपआपल्या धर्मान घालून दिल्ल्या नेमांक वा आचरणांक पाळो दिवपाचो यत्न करता.

आयज संवसारांत हजारांनी धर्म आसात. पूण निर्मितीचे वळेरेप्रमाण जुदा (Judaism), हिंदू, बौद्ध, कुंफू (Confucianism), टोई (Taoism), शिंतो, क्रिस्तांव आनी इस्लाम हे मुखेल धर्म आसात. हिंदू, टोई आनी शिंतो ह्या धर्मांची हजारांनी वर्सांपयली पारंपारिक रितीन वाड जाली. पूण हेर धर्म चड करून एका मनशानूच स्थापीत केल्यात. एका मनशान स्थापीत केल्ल्या धर्माभितर साबार गजाली एकसारक्योच आसतात. प्रवर्तका फाटल्यान ताचे भोंवतणीं पूजा वा विधी करपाची एक खाशेली पद्दत चालींत येता. हे पद्धतीक पंथ अशें म्हण्टात. पंथ होच धर्माचो मूळ आदार वा तळ आसता. प्रवर्तकाची शिकोवणीच त्या धर्माचो (पंथाचो) गाभो वा सार थारता.

देव वा देवतांचेर विस्वास (भावार्थ), मोक्ष सिद्धांत, आचरण आनी नेम, पवित्र काणयांचो वापर आनी धर्मीक संस्कारांचे विधी हे धर्मांचे कांय खाशेले गूण आसात. देवाच्या अस्तित्वाविशीं तीन तत्त्वगिन्यानीक नियाळ आसात. नास्तिक वा निरीश्वरवादी लोकांच्या मतान ह्या संवसारांत देव ना. ईश्वरवादी लोक, देव वा देवतांचें अस्तित्व मान्य करतात. अज्ञेयवादी (Agnostics) लोकांच्या मतान देव आसा, पूण ताचें अस्तित्व मान्य करप वा अमान्य करप मनशाचे शक्ती भायर आसा. पूण चडशे धर्म ईश्वरवादी आसात. तांच्या मतान मनशाच्या हालचालींचेर आनी सैमीक घडामोडींचेर देवतांचो वा देवांचो प्रभाव आसा. कुंफू हो देवाचेर विस्वास ना दवरपी एक म्हत्वाचो नास्तिक धर्म. कांय लोकांचो सर्वश्रेश्ठ अशा एकाच देवाचेर जाल्यार हेरांचो साबार देवतांचेर विश्वास आसता. जायते लोक सैमीक देवतांची पूजा करतात.

चडशे धर्म मोक्ष वा मुक्ती कशे रितीन प्राप्त करप आनी मर्णाउपरांतची जीण कशी सुखी करप हाची शिकवण दितात. पूण वेगवेगळ्या धर्मांनी मोक्षाची वेगवेगळी व्याख्या करून, तो मेळोवपाच्योय विंगडविंगड पद्दती सांगल्यात. जण एका धर्माची आचरणाची पद्दत चाली-रीती वा विधी वेगवेगळे आसले तरी, तांची नितीक शिकवण आनी तत्त्वां तितलींच म्हत्वाचीं आसात. जण एका धर्मान आपलें व्हडपण सांगपाखातीर देव-देवतांच्या काव्यांचो (myth) आदार घेतला. ही परंपरा हजारांनी वर्सां चलत आयल्या.

**धर्माची उत्पत्ती :** सगळ्यांत पयलीं म्हळ्यार इ. स. प. ६०,००० च्या सुमाराक जावपी धर्मीक विधी वा कर्मकांड हांच्या पुराव्यांची नोंद जाल्ली आसा. तरीपूण मानवशास्त्रज्ञ आनी इतिहासकारांच्या मतान मनशाच्या अस्तित्वासावन धर्माचें कसलें तरी रूप आशिल्लें.

तज्ञांच्या मतांप्रमाण इतिहासपुर्विल्ल्या काळांत, सैमीक घडणुकांच्या भंयान आनी अजापांक लागून धर्माची निर्मिती जाली. हुंवार, वादळ आनी भूंयकांपा सारकिल्ल्या भिरांकूळ सैमीक घडणुकांनी मनशाच्या मनांत भंय निर्माण केलो. जल्म आनी मरण ह्या सारकिल्लीं अजापांय तांचेमुखार आशिल्लीं. भंय पयस करपाखातीर आनी वेगवेगळीं अजापां स्पश्ट करपाखातीर इतिहासपुर्विल्ल्या मनशान, तांचेपरस व्हड आनी पुराय सैमाचेर ताबो दवरपी व्हड अशी दिव्य शक्ती निर्माण केली. तांचे धर्मीक विधी आनी कर्मकांड हे मुखेलपणान तांच्या पंगडाची बरकत (Prosperity) आनी भरपूर अन्न मेळोवप ह्या मूळतत्त्वांचेर केंद्रीत जाल्ले.

इतिहासपुर्विल्ल्या काळांत धर्म कसो निर्माण जालो हाचेर साबार तज्ञांनी वेगवेगळे सिद्धांत मांडल्यात. टॅलर हो १८०० सुमाराचो ब्रिटीश मानवशास्त्रज्ञ. ताच्या सिद्धांताप्रमाण, सुर्वेक लोकांच्या मतान जीव वा आत्मो (Spirit) हो सैमांतले दरएके वस्तूंत आस्पावला आनी तोच तांचेर देखरेख दवरता (Animism). ह्या सिद्धांताप्रमाण सैमांतले जण एके वस्तूंत वा शक्तींत (झाडां-पेडां, वारो, ज्वालामुखी, सूर्य), जीव (Spirit) आसा. गडगड, जोगूल, वादळ, हुंवार, दीस आनी रात ह्या सारकिल्ल्यो सगळ्यो सैमीक घडणुको ह्यो जिवांच्योच हालचाली (Actions of Spirit) आसात. हातूंतल्यो कांय घडणुको खूब परिणामकारक वा भिरांकूळ आसतात. हाका लागून लोक ह्या जिवांची पूजा करपाक लागले. टॅलर हाच्या मतान सैमीक भक्तीवरवींच धर्माची निर्मिती जाली.

म्यूलर, ह्या जर्मन तज्ञाचे विचार टॅलर हाच्या सिद्धांताकडेन जुळटात. पूण म्यूलर हाणें सैमीक घडणुकांची मनशाच्या स्वभावाकडेन तुळा केल्या. मनशाच्या स्वभावाप्रमाण सैमीक वस्तूंभितरूय बरे आनी वायट हे दोनूय गूण आसतात. हाका लागून सैमाक सदांच खुशाल दवरपाखातीर, ताचो कोप जावंचो न्हय म्हणून लोक तांची पूजा करपाक लागले. हातूंतल्यानूच धर्म निर्माण जालो अशें म्यूलराचें मत.

श्मिड्ट हाच्या मताप्रमाण इतिहासपुर्विल्ल्या काळांत लोक दिव्य शक्तींनी विस्वास दवरताले. तांच्या मतान ही दिव्य शक्ती मनशाच्या तशेंच सैमीक हालचालींचेर देखरेख दवरता. ह्याच विचारांतल्यान देवतांची कल्पना निर्माण जाली अशें श्मिड्ट हाणें मत मांडलां.

आयज संवसारांत साबार धर्मांचे लोक दिश्टी पडटात. पूण जुदाई, हिंदू, बौध्द, ताओ, कुंफू, शिंतो, क्रिस्तांव आनी इस्लाम हे म्हत्वाचे (मुखेल) धर्म आसात. चड करून ते इ. स. प. ६०० ते इ. स. ६०० ह्या काळाभितर अस्तित्वांत आयले. ज्यू लोकांच्या मतान ४,००० वर्सां पयलीं अब्राहम हाणें जुदाई धर्माची स्थापणूक इझ्रायलांत केली. एकाच देवाचेर विस्वास दवरपी जुदाई हो सगळ्यांत आदलो धर्म.

हिंदू हो धर्म इ.स. प. १५०० च्या सुमाराक अस्तित्वांत आयलो अशें जाणकारांचें मत. आर्य लोकांचो सुर्वेक उत्तर भारतांत शेक वाडलो. उपरांत ते जशे दक्षिणेक वचपाक लागले, तसो तांचो थळाव्या भारतीय लोकांकडेन (द्रवीड लोकांकडेन) संबंद वाडत गेलो. आर्य आनी द्रवीड संस्कृतायो मेळून हिंदू धर्म निर्माण जाला असो समज आसा. बौध्द धर्माची भारतांत इ. स. प. ५०० च्या सुमाराक वाड जाली आनी उपरांत तो हेर उदेंत आशिया देशांनी पातळ्ळो. हो धर्म मुखेलपणान गौतम बुध्द हाचे शिकवणेचेर (तत्त्वाचेर) आदारिल्लो आसा. कुंफू हो चीन देशांत निर्माण जाल्लो धर्म. तो तत्त्वगिन्यांनी कन्फ्यूशियस हाचे शिकवणेचेर आदारिल्लो आसा.

टाओ होय एक चीन देशांत निर्माण जाल्लो धर्म. ताचीं मूळ तत्त्वां चीनाच्या आदल्या इतिहासीक घडणुकांचेर आदारिल्लीं आसात. शिंतो हो जपान देशाचो थळावो धर्म. शिंतो आख्यायिकांप्रमाण जपान देशाची तशीच जपानी लोकांची रचणूक देवतांनीच केल्या. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक लेगीत जपानी लोक आपल्या राजाक देवाचो प्रतिनिधी अशे मानताले आनी ताची पूजाय करताले.

क्रिस्तांव हो धर्म जेझूचे शिकवणेचेर आनी ताचे जिणेचेर आदारिल्लो आसा. क्रिस्तांव लोकांच्या मतान जेझू हो देवाचो पूत आसून, देवानूच ताका संवसाराची राखण करपाखातीर धाडला. इस्लाम धर्माची स्थापणूक महमद पैगंबर हाणें इ. स. ६०० च्या सुमाराक अरेबियेंत केली. मुहमदापयलीं थंयचे लोक अल्ला तशेंच हेर देव-देवतांचीय पुजा करताले. पूण इस्लाम धर्माउपरांत ते एकूच देवाक मानपाक लागले.

धर्म ही इतिहासांतली एक म्हत्वाची शक्ती. इतिहासपुर्विल्ल्या काळासावन धर्मीक शिकवणेक लागून लोकांचे जिणेंत वा समाजजिणेक एक खाशेलें रूप मेळ्ळां; एक पद्दत लाबल्या. जुदाई, इस्लाम आनी चड करून क्रिस्तांव ह्या धर्मांचो अस्तंती संस्कृतीचेर प्रभाव पडला. अरबी संस्कृतीचेर प्रभाव पडला. अरबी संस्कृती ही मुखेलपणान इस्लामी संस्कृती. बौध्द, हिंदू, कुंफू शिंतो आनी टाओ ह्या धर्मांसावन आशियी संस्कृताय निर्माण जाल्या. कांय धर्मांचेर हेर धर्मांचो प्रभाव पडिल्लो स्पश्ट जाणवता.

धर्म हें कलेक प्रेरणा दिवपी एक मुखेल सूत्र. संवसारांतल्यो कांय सोबीत इमारती, देवघरां (देवूळ, मशीद, चर्च, गूरूद्वारा) म्हणून प्रसिद्ध आसात. तशेंच संवसारांतलें चडशें संगीतूय धर्मीक पद्धतीचें आसा.

धर्मीक काणयो हें चित्रकला, मुर्तीकला, साहित्य, नृत्य, फिल्म आनी हेर विशयांचें साधन थरलां.

– कों. वि. सं. मं.

**धर्मझुजां :** धर्मसंरक्षण, धर्मविस्तार आनी धर्मीक स्थळांची राखण हे संबंदीत जाल्ल्या झुजांक धर्मझुजां ही विस्कळीत अशी संज्ञा लायतात. धर्मझुजाचे मूळ कल्पनेंत धर्ममुक्ती अभिप्रेत आसली तरी काळांतरान धर्मांच्या खंयच्याय एका आंगा संबंदी जाल्ल्या झुजाचो आस्पाव धर्मझुजांत करप जाता.

धर्मझुजाची मूळ कल्पना, मध्ययुगीन युरोपांतल्या मुस्लीम सत्तेच्या ताब्यांतल्यान क्रिस्तांव लोकांची पवित्र भूंय (जेरूसलॅम, बॅथलॅहॅम) आपल्या ताब्यांत घेवपाच्या उद्देशान वेळावेळार जाल्ल्या 'क्रुसेड' ह्या मुक्तीसंग्रामांत मेळटा. पूण फुडें पाखंडी, धर्मद्रोही वा पोपाचे वैयक्तिक विरोधक ह्या सारकिल्ल्या स्वकियांच्या आड, धर्माच्या नांवाखाला जाल्ले मोहिमेक 'क्रुसेड' ही संज्ञा लावप जाली. ताचेय फुडें वचून खंयच्याय पवित्र दिसपी कार्याखातीर चलयल्ले मोहिमेखातीर धर्मझूज ह्या शब्दाचो वापर जावपाक लागलो. मुसलमान राजकर्त्यां कडसून युरोपाचो वाठार परतून जिखून घेवपाच्या यत्नांत पोपान धर्मझुजाचो दर्जो दिलो. धर्मप्रसाराखातीर जाल्ल्या मोहिमांचोय कांय धर्मियांनी धर्मझुजांत आस्पाव केला. मुसलमान धर्माची जिहाद ही कल्पना धर्मप्रसारणेचे मोहिमेक लागीं आसा.

महाभारतांत धर्मझुजाची कल्पना ही वयले कल्पनेपसून वेगळी आसा. महाभारतांतलें धर्मझूज हाचो अर्थ झुजाचो नेम पाळून आनी नितीक धरून केल्लें झूज असो जाता.

इकराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक ते तेराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक धर्माच्या संरक्षणाखातीर आपल्या दुस्मानांचो नाश करप ही धर्मझुजाची कल्पना युरोपी लोकांमदीं घोळटाली अशें इतिहासावयल्यान कळटा. दुस्मानांआड लस्करी मोहिमो हातांत घेवपा फाटल्यान साबार कारणां आसलीं तरी, तीर्थयात्रा आनी 'पवित्र झूज' हांच्यांतल्यान तांकां चड प्रेरणा मेळ्ळी. त्या काळांत प्रसिद्ध आशिल्ल्या साबार क्रिस्तांव आख्यायिकांनी जेरूसलॅम शाराची क्रिस्तांव लोकांची 'पवित्र भूंय' वा तांचें 'मुखेल केंद्र' म्हणून उल्लेख जातालो. जनतेच्या मनांत आपले पवित्र भुंयेविशीं उमळशीक वाडून उपरांत हजारांनी युरोपी लोक हे पवित्र भुंयेचें आनी थंयच्या पवित्र अवशेशांचें दर्शन घेवपाक वचपाक लागले. सुर्वेक तांकां साबार आडमेळी येताली वा कांय लोकांकडच्यान विरोधूय जातालो. साबार खेपे तांचेमदीं आनी हेरांमदीं झगडींय जाल्लीं. हाका लागून उपरांत, म्हळ्यार बाराव्या शेंकड्यासावन हे तीर्थयात्री शस्त्रां घेवन झुजाचे तयारेनूच वचपाक लागले. क्रिस्त आनी क्रिस्तांव लोकांचेर केल्ल्या अन्यायांचो सूड घेवपाखातीर म्हणून सुर्वेक स्पेन आनी सिसिलींत मुसलमानां आड झुजां उबारिल्लीं. पोपान आपल्या तशेंच इगर्जेच्या दुस्मानांआड जाल्ल्या झुजांक धर्मझुजाचो दर्जो दिल्लो. हेखातीर ताणीं धर्मझुजाऱ्यांक कांय खाशेल्यो सवलती दिल्ल्यो. इ.स. ८७८ त पोप जॉन आठवो हाणें आपल्या विरोधकांआड झुजतल्यांक क्रिस्तांव धर्मांत मानाची सुवात दिल्ली. धर्माची राखण करपी आनी धर्मद्रोह्यांआड झुजतल्यांक पुण्य मेळटा आनी तांकां स्वर्गाचीं दारां सदांच उकतीं आसतात हे सांगणेंतल्यान ग्रॅगरी ७वो (१०७३-१०८५) हाणें धर्मझुजांक चालना दिली.

मध्ययुगांतले राजकीय वेवस्थेक लागुनूय धर्मझुजांक फाटबळ मेळ्ळें. ह्या तेंपार युरोपांत सरंजामी वेवस्था (Feudalism) आशिल्ल्यान तांचेमदीं यादवी झुजां जातालीं. हे झुजारी प्रवृत्तीचो उपरांत धर्मझुजांत बदल जालो. सरंजामी वेवस्थेंत फकत व्हड चल्याक मानाची सुवात आसता, हाका लागून हेर साबार तरनाटे आपलें कर्तृत्व दाखोवपाखातीर धर्मझुजारी जाले. म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार १०७१ त बायझंटायन सैन्याची मांजिकर्त (आशिया मायनर) नगरांत मुसलमानांच्या हातांतल्यान हार जाल्ली. धर्मझुजाच्या आदारान आपली सत्ता सिरिया आनी आशिया मायनरांत परतून स्थापन करपाक मेळटली, ह्या हेतान बायझंटायन सम्राटांनी धर्मझुजाऱ्यांक तेंको दिल्लो. धर्मझुजाऱ्यांक चालना मेळपाक अशीं आनी साबार कारणां आसलीं. पूण मुखेलपणान पॅलेस्टायन (पवित्र भूंय) मुसलमानांकडल्यान हातासून थंय क्रिस्तांव लोकांची सत्ता स्थापन करपाखातीर ही चळवळ उबारिल्ली.

इकराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक सावन दर वर्सा हजारांनी सशस्त्र यात्रेकार जेरूसलेमांत वचपाक लागले. हे यात्रेकार कांय तेंप थंय रावून थंयच्या क्रिस्तांव लोकांक आदार दिताले. साबार खेपे वेगवेगळे यात्रेकारांचे पंगड एकठांय जावन ताणीं मुसलमानाआड लस्करी मोहिमो उबारिल्ल्यो. पूण इतिहासकाराच्या मतान हातूंतल्यो फकत आठ मोहिमो म्हत्वाच्यो आशिल्ल्यो.

**पयलें धर्मझूज :** इ. स. १९७१ त बायझंटायन साम्राज्याचो सम्राट रोमेनस हाचेर तुर्की सुलतान आल्प आर्सलान हाणें मालाझगिर्ट, आशिया मायनरांत पुरायपणान हार घाल्ली. हाका लागून उपरांत सम्राट आलेक्सिअस हाणें आपल्या साम्राज्याची राखण करपाखातीर पोप अर्बन दुसरो हाचेकडेन आदार मागलो. हाका लागून अर्बन दुसरो हाणें क्लेरमाँचे धर्मपरिशदेंत हो प्रस्न मांडलो. धर्मझूज जाल्यार पॅलेस्टायनाची मुक्तताय जातली तशेंच ग्रीसी धर्मपीठ आपल्या शेकातळा येतलें, ह्या हेतान ताणीं धर्मपरिशदेंत जमिल्ल्या लोकांक, धर्मझुजांत व्हड संख्येन वांटो घेवपाक उलो मारलो. बिशप आदेमाराच्या फुडारपणाखाला १५ ऑगस्ट १०९६ दिसा धर्मझूज उबारपाचें थरलें. पिटर ह्या साधून ह्या धर्मझुजाचो प्रचार केल्लो. हजारांनी लोक एका हातान तरसाद आनी दुसऱ्या हातान खुरीस घेवन यात्रेखातीर एकठांय जाले. हातूंत मुखेलपणान फॅंच, नॉरमन आनी फ्लॅमीश सरदारांचो आस्पाव आशिल्लो. ह्या सरदारांवांगडा साबार गरीब यात्रेकारूय कॉस्टाण्टिनोपलाक वचपाक भायर सरले. कॉस्टाण्टिनोपलाची वाट चलतना कांय सरदारांनी साबार ज्यू लोकांची कत्तल केली. साबार सरदार आनी तीर्थयात्री हांकां हंगेरींत मरण आयलें. जाल्यार उरिल्ले ॲनायेलीयांत सोंपले. पूण बिशप आदेमार, ड्यूक गॉडफ्री, बॉल्डविन दुसरो, रेमांड चवथो, रॉबर्ट दुसरो हांच्या फुडारपणाखाला १०९७ त मुखेल सैन्य कॉस्टाण्टीनोपलाक पावलें. उपरांत नॉर्मन सरदार बोएमाँ होय तांकां मेळ्ळो. हे तिनूय पंगड मेळून उपरांत त्राशिल्ले वेवस्थेंत तुर्की शिमेलागीं पावले. ह्या वेळार मुसलमान राज्यकर्त्यांभितर एकवट नाशिल्लो. हाका लागून सुर्वेक धर्मझुजाऱ्यांनी अशिया मायनरांतल्या नायसीया शाराचेर जैत मेळयलें आनी डॉरिलीयम वाठारांत तुर्की सैन्याचेर हार घाली (जून-जुलय १०९७), ह्या झुजांत तांकां खूब त्रास आनी नुकसानय जालें. जुलय १०९९त धर्मझुजाऱ्यांनी जेरूसलॅम शाराचेर घुरी घालून ताचेर जैत मेळयलें. पूण हाचे पयलीं कांय सरदारांनी वेगवेगळ्या शारांचेर घुरी घालून तीं आपल्या शेकातळा दवरून आपलो सुवार्थ सादून घेतलो.

बॉल्डविन ह्या सरदारान इडेसा शाराचेर घुरी घालून तें आपल्या शेकातळा हाडलें (६ फेब्रुवारी १०९८) आनी बोएमाँ हाणें अँटिऑक शार हातासलें (३ जून १०९८). अशे रितीन जॉफा, रामॅल्ला, हायफा हींय शारां क्रिस्तांव लोकांच्या शेकातळा गेलीं. जेरूसलॅम शाराचेर पोपाचो अधिकार आशिल्ल्यान, तेन्ना इगर्जेचो राखणदार म्हणून गॉडफ्रिची नेमणूक जाली. गॉडफ्रिच्या मरणाउपरांत ताचो भाव बॉल्डविन हो जेरूसलॅमाचो राजा जालो.

**दुसरें धर्मझूज :** (११४७-११४९). ११४४त सिरियाच्या सुलतानान इडेसा ह्या क्रिस्तांव राज्याचेर जैत मेळयलें. तुर्कीचे अधिकारी बळिश्ट जाल्ल्यान, जेरूसलॅम शाराकूय धोको निर्माण जाला हें जाणून तिसरो पोप युजीनिअस हाणें दुसऱ्या धर्मझुजाच्या प्रचाराक सुरवात केली. पोपसायबाचो उलो आयकून फ्रेंच राजा सातवो लुई आनी जर्मन राजा तिसरो कॉनरॅड हाणीं हे मोहिमेंत फुडाकार घेतिल्लो. पूण तांचेमदीं एकवट नाशिल्ल्यान तांचेर हार पडली. अशे रितीन दुसरें धर्मझूज अपेशी थारलें.

**तिसरें धर्मझूज :** (११८९-११९२) बाराव्या शेंकड्याच्या मध्याक चडशीं मध्य आशियांतलीं क्रिस्तांव राज्यां परत मुसलमान सुलतानांच्या शेकातळा गेल्लीं. ११७४त इजिप्ताचो सुलतान सॅलदीन हो खूब बळिश्ट जालो. ताणें ११७४त दामास्कस, ११८३त आलेप्पो आनी ११८७त जेरूसलॅम शारांचेर जैत मेळयल्लें. उपरांत फकत ट्रिपोली आनी अँटिऑक हीं राज्यां क्रिस्तांव लोकांच्या शेकातळा उरिल्लीं. हे परिस्थितींत पोपानूच धर्मझुजाचो प्रचार केलो. ह्या वेळार धर्मझुजाचें मुखेलपण राजांनी केल्लें. हातूंत इंग्लंडाचो राजा दुसरो हॅन्री आनी उपरांत ताचो चलो रिचर्ड, फ्रांसाचो राजा फिलिप ऑगस्टस, जर्मन राजा फ्रीड्रीख हाणीं वांटो घेतिल्लो. जर्मन राजा फ्रीड्रीख हाका अपघाती मरण आयलें. फाटल्या धर्मझुजांप्रमाण ह्याय वेळार धर्मझुजाऱ्यांभितर वाद निर्माण जालो. हाका लागून फ्रांसाचो राजा धर्मझूज अदर्सारुच सोडून फ्रांसाक परतलो. ह्या झुजांतली म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार फकत आएरे शाराचेर जैत मेळयल्लें आनी रिचर्ड हाणें सॅलदीन हाचेलागीं ११९२ त कबलात करून आपलो पुतणयो हॅन्री हाका जेरूसलॅमाचो राजा केल्लो. तशेंच हे खेपे धर्मझुजाची सुत्रां पोपाकडच्यान राजांच्या हातांत गेल्लीं.

**चवथें धर्मझूज**(१२०२-१२०४): जेरूसलॅम शाराक वांचोवपाखातीर पोप इंनोसंट तिसरो हाणें तेराव्या शेंकड्याचे सुर्वेक धर्मझुजाचो प्रचार परतून सुरु केलो. सुर्वेक हे चळवळीक उणो तेंको मेळ्ळो. इजिप्त हें मुसलमान सत्तेचें मुखेल केंद्र आशिल्ल्यान हे खेपे धर्मझुजाऱ्यांची मोख इजिप्ताकडेन आशिल्ली. भूंयमध्य दर्या हुंपचेखातीर धर्मझुजाऱ्यांच्या मुखेल्यांनी व्हॅनिस नाविक दळाचो आदार घेतलो. पूण व्हॅनिस दळाक फारीक करपाक तांचेकडेन धन नाशिल्ल्यान, तांणी झारा बंदर हातासून तें व्हॅनिसाच्या लोकांक दिलें (१२०२). पूण उपरांत हे झुजारी हॅन्रीच्या सांगण्यान कॉंस्टॅण्टिनोपला वटयां घुंवलें. १२०३त तांणी कॉंस्टॅण्टिनोपॉल शाराचेर सहज जैत मेळयलें. पूण हॅन्रीलो सोयरो आयझाक हाणें झुजाऱ्यांक दिल्लें उतर पाळूंक शकलोना म्हणून धर्मझुजाऱ्यांनी ह्या शारांत व्हड लूट मारून, हें शार आपल्या शेंकातळा हाडलें आनी फ्लॅंडर्सचो सरदार बॉल्डविन णववो हाका सम्राट केलो.

चवथ्या धर्मझुजा फाटल्यान रोखडीच 'भुरग्यांचें धर्मझूज' ही म्हत्वाची घडणूक घडली. १२१२ त निकोलस नांवाच्या भुरग्यान साबार भुरग्यांक एकठांय करून आल्प हुंपून पवित्र भुंयेकडेन वचपाचो यत्न केल्लो. पूण तांकां येस आयलेंना. ह्याच तेंपार फ्रांसांत स्टिवन नांवाच्या एका धनगर चल्यान आपल्याक दृष्टांत जाल्ल्याचो संदेश राजाक पावोवपाचो यत्न केल्लो. उपरांत हेय घडणुकेक कांय इतिहासकारांनी 'भुरग्यांचें धर्मझूज' हाका जोडपाचो यत्न केल्लो दिश्टी पडटा.

**पांचवें धर्मझूज :** भुरग्यांच्या धर्मझुजांत उत्तेजीत जावन पोप इनोसंट तिसरो हाणें १२१५ त परत धर्मझुजाची घोशणा केली. जर्मनीचो राजा दुसरो फ्रीड्रीख, ऑस्ट्रियाचो ड्यूक आनी हंगेरीच्या राजान पोपाक तेंको दिल्लो. कार्डिनल पिलेजिअस हाणें हे मोहिमेचें फुडारपण केल्लें. ह्या सुमाराक आएरे शार क्रिस्तांव लोकांचे हालचालींचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. ताणीं भूंयमध्य दर्या हुंपून दॅमिएट्टा शाराचेर जैत मेळयलें. पूण कायरो वटेन वता आसतना तांचो एल-मांसूरा नगरांत पराभव जालो.

**सवें धर्मझूज :** हें जर्मनीचो राजा दुसरो फ्रीड्रीख हाच्या फुडारपणाखाला सुरु जालें. पूण ह्या वेळार खरेपणीं झूज जालेंच ना. ह्याच सुमाराक फ्रीड्रीख हाचें जेरूसलॅमाचे राजकन्येकडेन लग्न जाल्लें. १२२८ च्या सुमाराक तो सुर्वेक सिपरस आनी उपरांत आएरे नगरांत पावलो. ज्युस्त ह्याच तेंपार मुसलमान मुखेल्यांभितर सत्तेखातीर सर्त चलताली. हाचो फायदो घेवन फ्रीड्रीख हाणें मुसलमान मुखेल्यांकडेन गुपीतपणान कबलात करून नाझारेथ, बॅथलॅहॅम, जेरूसलॅम आनी लिड्डा हीं शारां मेळयलीं (मार्च १२२९). उपरांत पोप ग्रॅगरीचो विरोध आसून लेगीत ताणें आपलो राज्याभिशेक करून घेतलो.

**सातवें आनी आठवें धर्मझूज :** निमाण्या दोनूय धर्मझुजांचें फुडारपण फ्रांसाचो राजा सेंट लुई हाणें केल्लें. १२४५त लायन्झ नगरांत पोप चवथो इनोसंट हाणें फ्रीड्रीकाआड आनी जेरूसलॅम परतून मेळोवपाखातीर धर्मझुजाची घोशणा केल्ली. ह्या वेळार फ्रांसांचो राजा सेंट लुई णववो हाणें हे मोहिमेचें फुडारपण केल्लें. आपले भाव आनी पंदरा हजार सैन्याच्या आदारान ताणें १२४९ त इजिप्ताचेर घुरी घाली आनी दॅमिएट्टा शार हातासलें. उपरांत कायरोचेर घुरी घालूंक वता आसतना ताचेर हार पडून तो दुस्मानांच्या हातांत सांपडलो.

व्हड खंडणी (ransom) आनी दॅमिएट्टाशार दिवन ताणीं आपली आनी सैन्याची सुटका करून घेतली. युरोपांतल्यान आपल्याक आदार मेळटलो हे आशेन तो चार वर्सां आएरेंत रावलो. १२७०त इंग्लंडाचो राजकुंवर एडवर्ड हाच्या आदारान लुई णववो हाणें आनीक एक मोहीम उबारपाचो यत्न केलो. हे खेपे ताणें ट्युनिशियाचेर घुरी घाली (आठवें धर्मझूज). पूण दुर्येंत पडिल्ल्यान हांगाच ताका मरण आयलें (२५ ऑगस्ट १२७०). एडवर्ड हाकाय व्हडलेंशें येस मेळ्ळें ना. उपरांत इजिप्ताचो मामलूक सुलतान बायबॅर्स हाणें धर्मझुजाऱ्यांचो आपल्या सैन्यांत आस्पाव करून १२७९त ट्रिपोली आनी १२९१ त पॅलेस्टायनांतलें निमाणें क्रिस्तांव राज्य आएरे, हेंय आपल्या शेकातळा हाडलें.

चवदाव्या आनी पंदराव्या शेंकड्यांनी पोपसायबांनी धर्मझुजां घडोवन हाडपाचे साबार यत्न केल्ले. पूण लोकांकडच्यान तांकां व्हडलोसो तेंको मेळ्ळोना. १३६५त सायप्रसाचो राजा पिटर पयलो हाणें अलेक्सांड्रीया ह्या मुसलमान राज्याचेर घुरी घालून तें आपल्या शेकातळा हाडलें. ह्या जैताची खूब तोखणाय जाली. पूण ताका धर्मझुजाचो दर्जो मेळूंक शकलोना. उपरांत क्रिस्तांव प्रदेश राखून दवरपाखातीर ऑटोमन तुर्की लोकांआड साबार झुजां जालीं. पूण पोप पायस दुसरो हाच्या मरणाउपरांत (१४६४)

धर्मझुजांच्या प्रचाराक देंवती कळा लागली.

**धर्मझुजांचें खाशेलेपण :** धर्मझुजां घडोवन हाडपाफाटल्यान सुरवात ते निमाणेमेरेन मुखेलपणान पोपसायबांचोच हात आशिल्लो. हाका लागून उपरांत लेगीत पुराय क्रिस्तांव समाजाचेर तांचोच शेक उरलो. धर्मझुजांत वांटो घेतिल्ल्या राजांक आनी लोकांक पोपान कांय सवलती आनी अधिकार दिल्ले. तेचपरी अर्थीक आदारूय केल्लो. हाका लागून सुर्वेक चडांत चड लोकांनी धर्मझुजांत वांटो घेतिल्लो.

धाव्या शेंकड्यात पोप आनी हेरांनी सुरू केल्ली धर्मझुजांची चळवळ आपलो मुळावो हेत सादपाक साप अपेशी थारली आनी हाका पोप तशेंच कांय युरोपी राजा जापसालदार आसात अशें कांय इतिहासकारांचें मत आसा. पोप आनी कांय युरोपी राजांनी धर्मझुजांत आपल्या सुवार्थाखातीर वांटो घेतिल्लो आसलो तरी धर्मझुजांच्या निमतान ताणीं संवसारांतल्या क्रिस्तांव समाजाक एकठांय हाडपाचो व्हड वावर केलो. धर्मझुजांक लागून त्या तेंपार युरोपांत वेगवेगळ्या प्रकारच्या लिखाणाकूय चालना मेळून थंयच्या सहित्यांत भर पडली. धर्मझुजांचो प्रचार करपाखातीर साबार ल्हान ल्हान धर्मीक ग्रंथांची रचणूक जाली, तशेंच धर्मझुजांविशीं रीतसर आनी एके वळेरींत म्हायती दिवपी टांचण, धर्मझुजाऱ्यांची व्हडवीक गावपी पोवाडे, कथा वा पत्रां अशें धर्मझुजांचेर वेगवेगळ्या प्रकाराचें लिखाण जालें.

धर्मझुजांच्या निमतान युरोपी लोकांचो अरबांकडेन संबंद आयलो. ह्या धर्मीक मोहिमांक लागून युरोपी लोकांक अरबांकडच्यान अंकगणीत, होकायंत्र, कागद-कंवची तयार करप, नकासो तयार करप आनी हेर खूब गजाली शिकपाक मेळ्ळ्यो. मुखार साबार अरबी उतरांचो युरोपी भाशांनी वापर जावपाक लागलो.

धर्मझुजांचो एक नवो आनी म्हत्वाचो परिणाम म्हळ्यार मुसलमान सैन्यांत आशिल्ली शिस्त उपरांत युरोपी सैन्यांतूय दिसपाक लागली. तशेंच किल्ल्यांची उबारणी, अरबी वास्तूकला आनी तांचो उपेग ह्या सगल्यांचो अणकार युरोपांत जावपाक लागलो. धर्मझुजांच्या निमतान साकर, लिंबू, सुती आनी रेशमी लुगटां, मसालो, तशेंच हेर नव्या वनस्पतींचो आनी फळांचो वापर युरोपांत जावपाक लागिल्ल्यान तांचो वेपारूय वाडलो.

– कों. वि. सं. मं.

**धर्मराज (युधिष्ठिर) :** पंडू राजाची बायल कुंती हिका यमधर्माच्या मंत्रापसून जाल्लो पूत. जेश्ठ पांडव. हुशार, निश्ठावंत आनी ज्ञानी राजा. तो जल्मल्लो तेन्ना आकाशवाणी जाल्ली 'हो सगळ्या मनशांमदीं व्हड आनी धर्मिश्ठ जातलो', हाकालागून पंडून ताका युधिष्ठिर नांव दवरिल्लें. यमधर्मापसून जाल्ल्यान ताका धर्म वा धर्मराज अशेंय म्हण्टाले. अजातशत्रू, धर्मपुत्र ह्याय नांवांनी ताची नामना आसा. एक व्हड तत्त्वचिंतक, सत्यनिश्ठ राजा, दुस्मानाक आनी इश्टांक सारकोच लेखपी, क्षमा, निती, सत्य आदी गुणांनी परिपूर्ण म्हणून महाभारतांत जायतेकडेन ताचो उल्लेख आयला.

सगळ्या कौरव-पांडवां वांगडाच ताचें शिक्षण जालें. धृतराष्ट्रान ताका युवराजपद दिल्ल्यान कौरवांमदीं दुस्मानकाय वाडली. दुर्योधनान ताका द्युतांत हारयतकच ताणें थंडपणान वनवास पत्करलो. अज्ञातवासांत तो कंक म्हणून विराट राजाच्या दरबारांत आशिल्लो. काम्यकवनांत स्वता यमान यक्षाचें रूप घेवन ताची परिक्षा घेतिल्ली.

वनवास सोंपतकच कौरवांनी तांकां योग्य तो न्याय दिवंचो, अशी युधिष्ठिराची इत्सा आशिल्ली. झूज टाळपाचे ताणें जायते यत्न केले. पूण दुर्योधनान ताका सुये तोंकार आस्पावतली, इतली लेगीत भूंय दिवपाचें न्हयकारलें. तेन्ना झूज जालें आनी तातूंत पांडवांक जैत मेळ्ळें. केन्नाच फट उलोवपी न्हय तो धर्मराज अश्वत्थामाच्या मरणाविशीं एकदांच फट उलयलो. महाप्रस्थानाच्या वेळार धर्मराज स्वर्गांत पावलो, पूण आपले भाव पाताळांत आसतना आपूण एकलो स्वर्गसूख घेवचो ना, अशें ताणें यमधर्माक सांगलें.

दुस्मानाविशींय आदरभाव दवरपी म्हान, सत्यवचनी राजा म्हणून ताची महाभारतांत नामना आसा. दुर्योधनाकूय तो सुयोधन म्हण्टालो. ताणें, राग, लोभ, मोह, मत्सर आदीं दुर्गुणांचेर मात केल्ली. भीष्माचार्यान शेवटाक धर्मराजाक राजधर्म, आपधर्म आनी मोक्षधर्म हांचो उपदेश केल्लो. युधिष्ठिराच्या नांवान 'युधिष्ठिर शक' सुरू जाल्लो.

– को. वि. सं. मं.

**धर्मविद्या :** धर्मविद्या हाचो शब्दशः अर्थ 'देवविद्या वा ईश्वरविद्या. पूण सादारणपणान हे विद्येंत ईश्वर, मनशाचो आत्मो, ईश्वराचो जगाकडेन आनी जीवात्म्याकडेन आशिल्लो संबंद, आत्म्याची मुक्ती ह्या सगळ्यांचो आस्पाव जाता. ह्या अर्थान धर्मविद्येचो उदय आनी विकास ग्रीसी तत्त्वगिन्यानान प्रभावित जाल्ले क्रिस्तांव धर्मपरंपरेंत जालो. ग्रीसी तात्त्विक परंपरेंत प्लॅटो-ॲरिस्टॉटल हांचेसारके तत्त्ववेत्ते आनी देववेत्ते हांचेभितर फरक करताले. देववेत्ते म्हळ्यार होमर, हेसिअड हांचेसारके देवांविशीच्यो पुराणीक कथा सांगपी आद्य कवी वा डेल्फायच्या संप्रदायाचे पुजारी. तत्त्ववेत्ते बुद्धिप्रणीत तत्त्वांच्या आदारान विश्वाचें आनी मनशाच्या आत्म्याचें स्वरूप, विश्वाक आदारभूत आशिल्लें तत्त्व आनी ताचो मनशाच्या आत्म्याकडेन आशिल्लो संबंद हांची फोडणी करपाचो यत्न करतात. आपल्या उपास्य देवतांचें स्वरूप स्पश्ट करप, तांच्या चरित्राचें वर्णन करप, तांचे उपासनेच्या पद्धतीचें स्पश्टीकरण करप हें देववेत्त्यांच्या कार्याचें स्वरूप आशिल्लें. क्रिस्तांव धर्मविद्येचें स्वरूप आनी आशय लेगीत ह्याच प्रकारचो आशिल्लो. क्रिस्तांव धर्मश्रध्देचो आशय स्पश्ट करपाचो आनी ताचें समर्थन करपाचे केल्ले यत्न म्हळ्यार क्रिस्तांव धर्मविद्या. अशें करतना हे श्रध्देचो आशय कांय सिध्दांतांच्या स्वरुपांत मांडला. देखीकः ईश्वराचें स्वरुप, आत्म्याचें स्वरुप, सृश्टी हें विशींचे सिद्धांत, ईश्वराचो जगाकडेन आनी आत्म्याकडेन आशिल्लो संबंद ह्या सगळ्यांचो आस्पाव हातूंत जाता. इंग्लीश भाशेंत हे विद्येक थिऑलॉजी अशें म्हण्टात. खंयच्याय धर्मपंथाचे अनुयायी ईश्वर, आत्मो, विश्व हांचेविशींच्यो ज्या सिध्दांतांवरवीं आपले धर्मीक श्रध्देचो आशय आनी आपल्या आचरणाचे नेम करपी मोलां स्पश्ट करतात. तांची रीतसर बौध्दिक वेवस्था म्हळ्यार त्या धर्माची धर्मविद्या.

सामान्य अणभवांसावन पयस आशिल्ले पूण श्रध्देन आपणायल्ल्या दिव्य तत्त्वांचें स्वरूप थारोवप, हें धर्मविद्येचें मुखेल कार्य आसलें, तरी हे श्रध्देकडेन एकरूप अशी मनशाची खाशेली आनी समाजीक जिवीत सरणी कशी आसूंक जाय हें स्पश्ट करपाचें कामूय धर्मविद्येक करचें

पडटा. धर्मशिक्षणाचो मुखेल हेत किदें हेंय स्पश्ट करपाचें काम धर्मविद्येचेंच. मनशाचें ह्या संवसारांत अस्तित्व किदें, ताचो हे सृश्टीकडेन तसोच समाजांतल्या हेर मनशांकडेन संबंद किदें हें स्पश्ट करपी आनी दैवी तशेंच भौतीक क्षेत्रांतले वेव्हार ह्या सगळ्यांचो आस्पाव धर्मविद्येंत जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**धर्मशाय :** (धर्मसत्ताक). देवाची इत्सा होच कायदो ह्या सिध्दांताच्या आदाराचेर, तशेंच धर्मशास्त्र सांगपी पवित्र ग्रंथांच्या आदाराचें शासन चलोवपी राज्य, हाका धर्मसत्ताक वा धर्मशाय अशें म्हण्टात. ह्या राज्यांनी धर्मगूरूंचो शेक चलता. अधिकृत धर्म राखून दवरप आनी ताचो प्रसार करप हो त्या राज्यांचो मुखेल वावर. सादारणपणान अशीं राज्यां आपलो धर्म होच खरो आनी श्रेश्ठ धर्म अशें मानतात आनी हेर धर्मांविशीं ती वायट वृत्ती आपणायतात. तांच्या मतांप्रमाण सगळे कायदे देवान रचल्यात आनी धर्मनेम मोडप म्हळ्यार गुन्यांव करप. हाका लागून कायदेभंग हें तांच्या मतान व्हड पाप. धर्माचो आदार घेवनूच धर्मगुरुक कायदे थरोवचे पडटात. धर्मसत्ताक विचारसरणेप्रमाण राज्यकर्तो हो इश्वरान नेमिल्लो प्रतिनिधी आसता.

पुर्विल्ल्या काळांत जनतेक एकठांय हाडपाखातीर वा एकठांय दवरपाखातीर राजांक देवाचो वा धर्माचो आदार घेवचो पडटालो, तशेंच धर्मीक आनी राजकीय कार्यांचें वेगळेपण नासतालें वा तातूंत चड फरक नाशिल्लो. हाका लागून आदल्या राज्यांनी धर्मीक आनी राजकीय सत्तेंची भरसण जाल्ली. त्या तेंपार राजा हो धर्मगूरू आसतालो वा ताचेर धर्मगूरूचो शेक आसतालो. पूण ही वेवस्था पुरायपणान धर्मशाय वेवस्थेंत मोडनाशिल्ली. होमर हाच्या तेंपार ग्रीसी राज्यांत रुढी आनी परंपरा हांकां म्हत्व आशिल्लें. तशेंच धर्माचे नेम आनी कायदे हातूंत भेद नासतालो. इस्लामाचो उदय जाले उपरांत धर्मसत्ताक राज्यांची निर्मिती जाली. हे विचारसरणेप्रमाण धर्माचो प्रसार करप आनी ताका संरक्षण दिवप हेंच राज्याचें मुखेल ध्येय आशिल्लें.

धर्मसुदारणेचे चळवळींत कॅल्व्हिन ह्या तत्त्ववेत्त्यान सोळाव्या शेंकड्यांत धर्मसत्तेचो पुरस्कार केल्लो. ताच्या मताप्रमाण धर्माची राखण करप होच राज्याचो मुखेल हेत आसून, ताचेखातीर जण एका क्रिस्तांव मनशान राज्याक फाटबळ दिवंक जाय, कायदयाक पाळो दिवप हें धर्मीक कर्तव्य मानूंक जाय. हाका लागून राज्याचो कायदो मोडप वा राज्याक विरोध करपाचो कोणाकूच हक्क ना. पूण राज्यांचे कायदे देवाचे इत्सेआड वा धर्माआड आसल्यार ते मोडून उडोवपाचे सगळ्यांक हक्क आसात, अशें ताणें मुखार सांगलें.

मध्ययुगांत युरोपांत पोप आनी राजा हांचेभितर सत्तेखातीर जाल्ले सर्तीक लागून ऐहिक आनी परलोकीक क्षेत्रांनी भेद करपाचे प्रवृत्तेक नेट आयलो. तशेंच हांगा प्रबोधन काळांत बुद्धीवादाक मेळिल्ल्या म्हत्वाक लागून आनी विज्ञानाच्या प्रसाराक लागून साबार धर्मीक श्रध्दांविशीं प्रस्न निर्माण जाले. धर्मसुदारणा चळवळींच्या तेंपार युरोपांत धर्मावयल्यान जाल्ल्या झुजाक लागून धर्म आनी राजकारण हांचेमदीं भेद घालपी प्रवृत्ती निर्माण जाली. आशिया आनी आफ्रिका खंडांनीय अस्तंती राश्ट्रांच्या प्रभावाक लागून धर्मसत्तेक देवती कळा लागली. पूण कांय देशांतलो राश्ट्रवाद हो धर्मभावनेचेर आदारिल्लो आसा (इझ्रायल, पाकिस्तान). ह्या राश्ट्रांनी धर्मीक प्रस्नाक राजकीय म्हत्व प्राप्त जालां. धर्मशायेंतले खुबशे घटक ह्या राज्यांनी आस्पावल्यात. आयजूय हांगा धर्मग्रंथांतल्या तत्त्वांवरवीं राज्य चलोवंचें असो आग्रो जाता. पूण ह्या राश्ट्रांक धर्मशायी राश्ट्रां म्हणूं नजो.

– कों. वि. सं. मं.

**धर्मशास्त्र :** शब्दकोशांत धर्म ह्या शब्दाचे साबार अर्थ दिल्ले आसात. मुखेलपणान धर्म हो शब्द आज्ञा, रुढी, कर्तव्य, अधिकार, न्याय, नीती, गूण, बरीं कर्तुबां आनी कर्म अशा साबार अर्थान वापरतात. धर्मशास्त्र हें खाशेलें नांव मुखेलपणान हिंदू समाजाक जे नेम लागू जातात, त्या नेमांचें शास्त्र अशा अर्थान वापरतात. हिंदुधर्मशास्त्र हें मुखेलपणान वेद, स्मृती आनी पुराणांचेर आदारिल्लें आसा. हिंदुधर्मशास्त्रांवयले ग्रंथ इ.स. पयलीं सुमार ६०० ते ३०० वर्सांसावन चलत आयल्यात आसुंये अशें मत आसा. ह्या ग्रंथांक 'धर्मसुत्र' वा 'स्मृती' अशें म्हण्टात. हिरण्यकेशी आनी बौधायन हांचे गौतम आनी आपस्तंब ग्रंथ, तशेंच उपरांतचे वसिष्ठ आनी विष्णु हांचे ग्रंथ सगळ्यांत पोरणे. स्मृतिकारांत मनू, याज्ञवल्क्य, पराशर, नारद, कात्यायन, बृहस्पती हांची नामना आसा.

धर्मशास्त्र ही मनशाचे जिणेंतले सगळे नेम घालून दिवपी संहिता. मनीस ह्या नात्यान, मनशाचे सगळे वेव्हार तसोच तो समाजाचो घटक म्हणून ताचे समाजांतल्या हेरांकडेन आनी सैमाकडेन संबंद, दैवी आनी भौतिक क्षेत्रांतले वेव्हार ह्या सगळ्यांचो आस्पाव संहितेच्या क्षेत्रांत जाता. वर्णाश्रमधर्म, राजधर्म, जातीधर्म, लग्नाचे संस्कार, वारसाहक्क, दत्तक, रीण घेवप वा दिवप, शिमो आनी हेविशींचे नेम, तशेंच गुन्यांव, ख्यास्त, गवाय, न्यायपद्दती आनी न्यायालयांतल्या हेर प्रमाणांचो विचार,, पाप - पुण्य अशे साबार तरेचे विधिनिषेध धर्मशास्त्रांत सांगल्यात.

हिंदू विधीप्रमाण मुसलमानी आनी ज्यू हांचे विधी तशेंच सण परबोय ह्यो धर्म तशेंच रुढींचेर आदारिल्ल्यो आसात. दोगांयची भुमिका एकूच. धर्मान घालून दिल्लें आचरण देवाक मान्य आसा आनी तांचेप्रमाण वागप हातुंतूच मनशाचें तशेंच समाजाचेंय हीत आसा. हिंदू आनी मुसलमानी विधी धर्माकडेन एकरूप आसात आनी तांचेभितर फरक दाखोवप खूब कठीण. मुसलमानी विधी हो मुखेलपणान कुराणाचेर आनी प्रेषीतान केल्लयो कृती आनी ताचीं वचनां हांचेर आदारिल्लो आसा.

अस्तंती राश्ट्रांनी मध्ययुगाच्या सुमाराक धर्माचो समाजीक जिणेंतलो प्रभाव जसो उणो जायत गेलो, तशे धर्म आनी विधी हे एकमेकांसावन पयस जायत रावले. युरोपांत धर्म आनी विधी हांच्यांतलें वेगळेपण धर्मसुदारणा आंदोलना उपरांत घडून आयलें. रोमी विधी हो मुळांत धर्म आनी रुढी हांचेर आदारिल्लो. मुखार रोमी साम्राज्याची वाड जाले उपरांत आनी वेपाराच्या निमतान तांचो ग्रीसी संस्कृतायेकडेन तसोच तत्त्वगिन्यानाकडेन संबंद आयलो. हाका लागून उपरांत रोमी विधींचें स्वरूप बदलत रावलें. स्टॉयक तत्त्वगिन्यानाचो रोमी न्यायशास्त्राचेर व्हड परिणाम जावन, हातूंतल्यानूच इहवादी जस जेनशियम हाचो उदय जालो. सादारणपणान मानवी वेव्हाराक लागून पडपी विधीनिषेद ह्या अर्थान जस जेनशियम ही संज्ञा रोमी काळांत चालंत आशिल्ली.

धर्मनिश्ठ कायद्याचो मुळावो आदार म्हळ्यार रुढी. पारंपारीक समाज हो रुढीमोगी आशिल्लो. जसोजसो समाज बदलत रावलो, तशें रुढींचें

म्हत्व उणें जायत गेलें. धर्म आनी रुढी हांचीं बंधनां उणी जालेउपरांत कायदे मंडळाकडच्यान कायदे करपाचे प्रक्रियेक नेट आयलो. पूण आयज लेगीत धर्म आनी रुढी हांचें व्हडपण विधिनेमांचेर आदारिल्लें आसा हें दिश्टी पडटा. आयज लेगीत सगळ्या धर्मांत लग्न ग्राह्य थरोवपाखातीर धर्मप्रणीत विधी करचो पडटा.

– कों. वि. सं. मं.

**धर्मशाळा :** भोंवडेकारांक रावपाक आनी सुशेग घेवपाक बांदिल्लयो वास्तू. यात्रा, वेपार, देशपर्यटन आनी हेर कारणांक लागून गांवागांवांनी भोंवपी भोंवडेकारांक आनी निराश्रितांक रावपाक सुविधा आसची, ह्या हेतान गांवागांवांनी धर्मशाळांची निर्मिती जाली. लोकसेवा हीच खरी ईश्वरसेवा हे जाणविकायेंतल्यान ह्या कार्याक धर्माचें अधिश्ठान प्राप्त जालें. आपल्या राज्यांत येवपी खंयच्याय पंथाच्या लोकांची वा यात्रेकारांची गैरसोय जावंची न्हय, म्हणून वेगवेगळ्या काळांत राज्यकर्त्यांनी धर्मशाळा बांदल्यो. जण एका राज्यांत आसपी धर्मशाळेवयल्यानूय राज्याची प्रतिश्ठा उक्ती जाताली. हाका लागुनूच ह्या वावराक पुर्विल्ल्या आनी चड करून मध्ययुगांत नेट आयलो.

पुर्विल्ल्या काळांत वेगवेगळ्या गांवांतल्या लोकांनी एकठांय येवन बांदिल्लयो धर्मशाळा, मठ आनी हेर लोकांक उपेगी पडपी संस्थांचो उल्लेख कौटिल्य हाच्या अर्थशास्त्रांत सांपडटा. भूतदया होच खरो धर्म अशें मानपी सम्राट अशोक हाणें साबार धर्मशाळा बांदून निराश्रितांची आनी भोंवडेकारांची सोय केल्ली. गुप्त काळांत धर्मशाळांचेर देखरेख दवरपाखातीर एका खाशेल्या अधिकाऱ्याची नेमणूक करताले. ह्युएन त्सांग ह्या चीनी भोंवडेकारान हर्षवर्धन हाच्या काळाचें वर्णन करतना, तातूंत देवळां तशेंच धर्मशाळांचोय उल्लेख केला. ह्या संस्थांनी जेवणाखाणाची तशीच वखदांचीय सोय आसताली अशें तो सांगता.

मध्ययुगांत, मुसलमान राज्यकर्त्यांनीय भारतांत साबार धर्मशाळा उबारिल्लयो. शेरशाह आनी अकबरान धर्मशाळांक चड म्हत्व दिलें. खूबश्या गिरेस्त लोकांनी आनी सावकारांनी आपल्या मानसिक समाधानाखातीर तेचपरी आपल्याक पुण्य लाबचें म्हणून धर्मशाळा उबारिल्ल्यो.

धर्मशाळांची निर्मिती धर्मीक प्रेरणेंतल्यान जाल्ली, हें खरें आसलें तरी, समाजकल्याणाचे नदरेन तांचो वावर चड म्हत्वाचो आसलो. भारता सारकिल्या व्हड राश्ट्रांत संस्कृतीक एकवटाची भावना विकसीत करपाचे नदरेन तीर्थयात्रांक खूब म्हत्व आसा आनी त्या निमतान यात्रेकारांक आलाशिरो आनी जेवणाची वेवस्था करपी धर्मशाळांचोय वावर म्हत्वाचो थरता. शिक्षणीक क्षेत्रांत लेगीत धर्मशाळांनी मोलादीक वावर केला. चडशा धर्मशाळांक पाठशाळा जोडिल्लयो आसल्यो. तातूंत चड करून धर्मीक शिक्षण मेळटालें तशेंच विद्यार्थ्यांक रावपाची सोय तातुंतूच आसताली. ह्या कारणांक लागून आदल्या तेंपार आनी चड करून मध्ययुगांत धर्मशाळांक चड म्हत्व प्राप्त जाल्लें.

गोंयच्या धर्मस्थळांनी ज्यो अगरशाळा आसात तांच्या उपेगाचें स्वरूप बरेंचशें धर्मशाळेसारकें आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**धर्मसंप्रदाय :** एक धर्मीक पंथ. धर्मठाकूर ही ह्या संप्रदायाची उपास्य देवता आशिल्ल्यान ताका धर्मसंप्रदाय अशें नांव पडलें. ह्या संप्रदायाक निरंजनमत अशें दुसरें नांव आसा. बंगाल, ओडिसा, आनी छोटा नागपूर ह्या वाठारांनी ह्या पंथाचे अनुयायी आसात. बौद्ध धर्माच्या सोंपत्याकाळांत केन्नातरी ह्या पंथाची स्थापना जाली आसुंये. पयलीं डोम, बागदी आदी हीन जातींनी हो पंथ प्रचलीत आशिल्लो. इ. स. च्या इकराव्या शतमानांतल्या रमाई पंडित ह्या मनशान संप्रदायाखातीर मोलादीक वावर केलो. सेताई, गिलाई, कंसाई आदी पंडितांनी ताचो प्रसार केलो. उत्तर बंगालांत हो संप्रदाय शिव आनी नाथ ह्या संप्रदायांचें मूळ रूप म्हणून वळखतात.

इस्लाम, बौध्द आदी धर्माचे लोकूय ह्या संप्रदायाचे अनुयायी आसात. बंगाल, बिहार ह्या वाठारांतल्या बौद्ध धर्माच्या सोंपत्या काळांत ह्या धर्माची स्थापना जाल्ल्यान ताचेर बौध्द तत्त्वाचो प्रभाव दिसता. तेचपरी नाथ पंथाचोय ताचेर प्रभाव दिसता. धर्म आनी नाथ संप्रदायाचे सृष्टउत्पत्तिकथेंत खूबशें सारकेंपण दिसता.

ह्या संप्रदायाचेर इस्लामाचो खुबूच प्रभाव पडला. जायते हिंदू देव मुसलमानी नांवां घेवन ह्या पंथांत वावुरतना दिसतात. हांगा ब्रह्मा मुंहमद, शिव आदम आनी मुनी फकीर जाल्यात.

शून्य पुराण हो ह्या संप्रदायाचो मुखेल ग्रंथ. ह्या ग्रंथांत धर्माक शून्य रूप, निराकार आनी निरंजन अशें म्हळां.

शून्य पुराणाच्या मतान निरंजनाचो अवतार उदकांत जाल्लो आसून तो कांसवारुपान आसा. ह्या पुराणांत वट्ट ५५ अध्याय आसात. तातूंतले पयले पांच अध्याय सैमाच्या तत्त्वाविशीं आसून हेर अध्याय पुजेविशीं आसात. 'यः शान्तं अनादिमध्यं न च करचरणम्' हो मंत्र म्हणून धर्माची पुजा करप आनी ॐ निरञ्जनाय विद्महे अनिलपुरूषाय धीमहि । तन्नो धर्मः प्रचोदयात्', हो गायत्री मंत्र म्हणून मागणें करप अशी तांची पुजा पद्दत आसा.

धर्मठाकूराचे उपासनेखातीर आनी ताचें माहात्म्य वाडोवपाखातीर बंगाली भाशेंत जायतीं काव्यां तयार जालीं. तांकां धर्ममंगल काव्यां अशें म्हण्टात. हातूंत मयुरभट्टाचें काव्य सगळ्यांत आदलें १२ व्या शतमानांतलें मानतात. ताचे उपरांत खेलाराम, माणिक गांगुली, रूपराम, रामचंद्र, श्याम पंडित, रामदास आदक, सहदेव चक्रवर्ती, धनराम आदी जायत्या कवींनी धर्ममंगल काव्यां बरयलीं. ह्या काव्यांनी इतिहास, परंपरा, लोकश्रुती, पुराण आदी धर्ममंगल काव्यांच्या पठणाक आदीं चोवीस बसका लागताल्यो. दर दिसा दोन बसका हे प्रमाण बारा दिसांनी हें पठण सोंपयताले. चड करून हें पठण धर्मठाकुराच्या घरभरण नांवाच्या उत्सवांत जातालें.

– कों. वि. सं. मं.

**धर्मसिंधू :** धर्मशास्त्राविशींचो ग्रंथ. हो ग्रंथ काशीनाथ उपाध्याय हाणें बरयला. निर्णयसिंधू, पुरूषार्थचिंतामणी कालमाधव, हेमाद्री, कालतत्त्वविवेचन, कौस्तुभ, स्मृत्यर्थसार आदी ग्रंथांचो आदार घेवन ग्रंथकारान वेव्हारांत उपेगी आशिल्ल्या धर्मशास्त्रांतल्या विशयांचो हातूंत आस्पाव केला.

ह्या ग्रंथाचे तीन परिच्छेद आसात. पयल्या परिच्छेदांत काळाचो भेद, संक्रांतीचो पर्वकाळ, मलमास, वर्ज्यावर्ज्य कर्मां, व्रतपरिभास, प्रतिपदादी तिथींचो निर्णय, इष्टकाळ आदी विशय आयिल्ले आसात. दुसऱ्या परिच्छेदांत चैत्रादी बारा म्हयन्यांतली कृत्यां, तिथींचो निर्णय, दशावतार जयंत्यो,

कपिलाषष्ठी, गजच्छाया, चंद्रादी ग्रहांच्या संक्रांतीचो पुण्यकाळ, ग्रहांचीं दानां आदी विशयांचेर विचार केल्लो आसा.

तिसऱ्या परिच्छेदाचे पूर्वार्ध आनी उत्तरार्ध अशे दोन वांटे आसून पयल्या वांट्यांत गर्भाधान, पुंसवनादी संस्कार, दर्शादिशांती, पुनरूपनयन, गणविचार, राशिकूट, नाडी, गोत्रप्रवर, औपासनादी होम, नित्यदान, शूद्रसंस्कारनिर्णय, स्वप्ननिर्णय आदी विशय विस्कटावन सांगल्यात. निमाण्या वांटयांत श्राध्दाचे अधिकारी, श्राध्दभेद, श्रादाचे ब्राह्मण आदी श्राध्दाविशींचे विशय आसात. तशेंच आशौचानिर्णय, प्रेतसंस्कार, विधवाधर्म, संन्यास, यतिधर्म आदी विशय तातूंत आयिल्ले आसात. भारतांत सगळेकडेन ह्या ग्रंथाक मान्यताय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**धर्मसुत्रां :** धर्माविशीं निर्णय दिवपी ग्रंथ. धर्मसुत्रां हो कल्पसुत्रांचोच एक भाग. गृह्यसुत्रांकडेनय ताचो लागसल्लो संबंद आसा. दोनूय ग्रंथांनी मूज, अनध्याय, लग्न, श्राध्द, पंचमहायज्ञ हे विशय सारकेच आसात, पूण धर्मसुत्रांत हांचेभायर अर्थीक, समाजीक, राजकीय, धर्मीक आनी तत्त्वगिन्यानात्मक विशय चड आसात.

सामान्य मनशांनीच हीं धर्मसुत्रां रचिल्लीं आसून श्रुती, स्मृती आनी निर्लोभ तशेंच निर्दोश अशा सज्जनांचो आचारधर्म ह्या तीन मुखेल गजालींचेर धर्म आदारला अशें धर्मसुत्रांचें मत आसा. तातूंतली सगळी भासाभास ह्या विशयाक धरूनूच आसा. धर्मसुत्रांत धर्माविशींच्या पुराय आंगापांगांचो आस्पाव ना. तातूंत फकत सामयाचारिक आनी स्मार्त धर्मच सांगला. रुढीक सामयाचारिक धर्म तर पारंपारीक आचाराक स्मार्त धर्म अशें नांव आसा.

धर्मसुत्रां हीं धर्मीक आचारांविशीं वेद प्रमाण अशें मानतात. खंयचोय आचार अस्तित्वांत येता, तो वेदांतल्या आदेशाक अनुसरून येता अशें तांचें मत आसा. वैदिक आर्यांचो समाज कालांतरान बदलत गेलो, तशे समाजामुखार कांय नवे प्रस्न निर्माण जाले आनी तांची वेवस्था करपाखातीर नवे आचार अस्तित्वांत हाडप योग्य, अशें जाणकारांक दिसलें. ताका लागून समाजांत नव्या नव्या आचारांची भर पडत गेली. सूत्रकालामेरेन भारतांतलो आर्यसमाज बरोच प्रगत जाल्लो. त्या समाजांत आचारांचो आंकडोय खूब वाडिल्लो. देखून ह्या सगळ्या आचारांची वेवस्थीत मांडावळ करून ग्रंथ रूपांत उजवाडावपाची गरज उप्रासली. धर्मसूत्रकारांनी हें काम बेस बरें केलें. त्या काळांतल्या समाजीक, राजकीय आनीक धर्मीक प्रस्नांचोय खोलायेन विचार करून तांची योग्य विस्कटावणी केल्या.

धर्मसुत्रांत ज्या विशयांचो आस्पाव आसा ताचे वर्णधर्म, आश्रमधर्म आनी नैमित्तिक धर्म अशे तीन वांटे पडटात. वर्णधर्मांत जाती आनी संकरजाजी हांचीं धर्मीक कर्तव्यां, वेवसाय, नेमिल्ले वेवसाय करपाक असमर्थ आशिल्ल्या मनशांखातीर पर्यायी वेवसाय आदी म्हायती दिल्ली आसा. क्षत्रिय वर्णाच्या कर्तव्यकर्माविशीं विस्कटावणी करतना राजाचीं कर्तव्यां, ताचो प्रजेकडेन संबंद, राज्याचे कायदेनेम, राज्यकारभाराची पद्दत, करपद्दत ह्यो गजाली सांगल्यात.

आश्रमधर्माची विस्कटावणी धर्मसुत्रांत सविस्तर केल्ली आसून, सगळ्या आश्रमांनी गृहस्थाचीं कर्तव्यां सांगतना लग्न, ताचे प्रकार, पुतांचे प्रकार, वारसा पद्दत, नियोगाचे नेम, पंचमहायज्ञ, श्राध्दां आदी गजालींचो आस्पाव आसा.

नैमित्तिक धर्मांत वेगवेगळ्या प्रकारांचीं पातकां आनी तीं निवारपाखातीर जायतीं प्रायश्चित्तां, सुयेर-सुतक हांचो काळ ह्या विशयांचेर विचार केला.

गौतम आनी वैखानस हीं दोन धर्मसूत्रां पुराय गद्यांत आसून हेर गद्य-पद्यांत आसात. गौतम धर्मसूत्र हें सगळ्यांत पुर्विल्लें. कांय धर्मसुत्रांचे फकत उल्लेखच मेळटात, जाल्यार कांय धर्मसुत्रां मेळच नात. बोधायन, आपस्तंब, हिरण्यकेशी हीं सुत्रां मात उपलब्ध आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**धर्मांतर :** एका धर्माचो त्याग करून, दिक्षा घेवन, दुसरो धर्म आपणावप हाका धर्मांतर अशें म्हण्टात. दुसऱ्या धर्माचो अभ्यास केलो वा दुसऱ्या धर्मांतल्या मनशावांगडा लग्न जालें म्हणून धर्मांतर जायना अशीय समजूत आसा.

धर्मांतराचे विंगडविंगड प्रकार आसात. १. आपले स्वताचे बुद्दीन धर्मांतर करप. २. गिरेस्त मनशान दाखयल्ले दुडवांचे आशेन धर्मांतर करप ३. जुलूम जबरदस्तीन धर्मांतर करप.

जिवाच्या भयान वा जबरदस्तीन जाणीं दुसरो धर्म आपणायला तांकां परत स्वताच्या धर्मांत घेवप होय एक धर्मांतराचोच प्रकार. ताका शुद्धी अशें म्हण्टात.

क्रिस्तांव धर्माचे स्थापणुके उपरांत भारतांत धर्मांतर सुरू जालें. इ. स. च्या पयल्या शेंकड्यांत सेंट थॉमस भारतांत येवन ताणें त्या धर्माचो प्रसार सुरू केलो. तेन्नासावन इ.स. च्या १५ व्या शेंकड्यामेरेन हो प्रसार चालूच आशिल्लो. उपरांत पुर्तुगेज लोक आयले आनी ताणीं भारताचे अस्तंत दर्यादेगेवयल्या विशेश करून गोंयांतल्या शेंकड्यांनी हिंदू लोकांक जुलमान बाटयले. इ. स. च्या आठव्या शेंकड्यांत महंमद कासीम हाणें भारताचेर स्वारी केली आनी हजारांनी हिंदू लोकांक बाटयले. उपरांत गझनीचो सुलतान महमूद आनी शिहाबुद्दीन घोरी हाणींय भारताचेर स्वारी करून, हिंदू लोकांक बाटोवन मुसलमान केले. ताचे उपरांत मुसलमान राज्यकर्त्यांनी कोटयांनी हिंदू लोकांक जबरदस्तीन बाटोवन मुसलमान केले. अलाउद्दीनाचो सेनापती मलिक काफूर, जहांगीराचो सेनापती महाबतखान, फिरोजशहाचो वजीर मखबुलखान, अहमदाबादचो सुलतान मुझफरशहा आनी बंगालचो काळो पहाड हे मूळचे हिंदू आशिल्ले. मुसलमान जातकच ताणीं हिंदू धर्माचेर खूब आघात, अत्याचार केले. भारतांतले चडशे मुसलमान लोक अशे तरेन बाटयल्ले हिंदूंचेच वंशज. तातूंत भायल्यान आयिल्ले अस्सल मुसलमान सामके उणे. आतार, कासार, कलईगार, खाटीक, खोजा, घेरमेहदी, चूडावाला, तांबोळी, धावड, नालबंद, पिंजारी, बागवान, बोहरा, भिस्ती, मकवाना, मोमीन, मोची हे मुसलमान जातींचे लोक पयलीं हिंदू आशिल्ले. हे बाटून मुसलमान जाल्ले लोक आजुनूय आपल्यो कांय हिंदू चालीरिती पाळटात. बाटयल्ल्या क्रिस्तांव लोकांच्या चालीरीतींनीय हिंदू धर्माच्यो कांय चालीरीती आसात.

क्रिस्तांव धर्मांत धर्मांतराविशींचो तात्त्विक विचार भोव बारीकसाणेन केल्लो आसा. पापी लोकांक पश्चाताप करतकच क्रिस्तांव धर्म आपणावपाक सांगला आनी अशें केल्यार ते पातकातल्यान मुक्त जातले अशें बायबलांत सांगलां. क्रिस्तांव धर्मांत प्रवेश म्हळ्यार काळखांतल्यान उजवाडांत वचप अशेंय बायबलांत फुडें म्हळां. बुद्दीक अणसरून धर्मांतरां केल्याचींय

कांय उदाहरणां आसात. तातूंतलें एक उदाहरण म्हळ्यार १४ ऑक्टोबर १९५६ दिसा डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर हाणें बौध्द धर्मांत केल्लो प्रवेश. ताचेवांगडा ताच्या हजारांनी अनुयायांनीय बौध्द धर्म आपणायलो. बाह्य धर्मांतरावांगडाच आंतरीक धर्मांतरांय जाल्यांत. प्राचीन काळांतली बौद्ध धर्माची चळवळ ही आंतरीक धर्माची देख म्हणू येता.

स्वताच्या धर्गाचो त्याग करून दुसरो धर्म आपणावप, हाका हिंदू धर्मांत पातक मानतात. तें बुध्दिपुर्वक वा इत्सा नासतना केल्लें आसूं. तेखातीर प्रायश्चित्त घेतकच बाटिल्लो मनीस शुध्द जावन परत आपल्या वर्णाश्रमधर्मांत वचूंक शकता. धर्मभ्रश्ट लोक विष्णुच्या नामस्मरणान पवित्र जातात, अशें भागवत पुराणांत म्हळां.

पयलींच्या काळांत कांय ऋषींनी मूळच्या अहिंदू लोकांचो चातुर्वर्ण्यांत आस्पाव करून घेतिल्लयाचे उल्लेख हरिवंश, भविष्य पुराण ह्या ग्रंथांत मेळटात. यवन, शक, कुशाण ह्या वंशांतल्या खुबश्या लोकांनी हिंदू धर्म आपणायल्लयाची म्हायती शिलालेख, दानपत्रां वयल्यान मेळटा. त्या वंशांतल्या लोकांभशेनूच हूण, गुजर ह्या लोकांनीय भारताचेर आक्रमणां करून राज्यां स्थापलीं. पूण भारतीय लोकांचेर ते आपलो धर्म लादूंक शकलेनात. उरफाटें, भारतीय लोकांनीच आपले संस्कृतीचो तांचे संस्कृतीकडेन समन्वय करून हिंदू संस्कृताय निर्माण केली.

पंजाबाचो राजा जयपाळ हाचो नातू सुखपाळ मुसलमान जाल्लो, तो इ.स. १००८ च्या सुमाराक परत हिंदू जालो. इ. स. च्या पंदराव्या शेंकड्यांत काश्मिरांत जायत्या धर्मभ्रश्ट हिंदूंक परत हिंदू करून घेतिल्ले. अशीं शुध्दीकरणाचीं कितलींशींच उदाहरणां ग्रंथांनी, पुराणांनी मेळटात. मध्ययुगीन इतिहास काळांत, छत्रपती शिवाजी महाराजान, नेताजी पालकर हाका तशेंच जिजाबाईन बजाजी निंबाळकर हाका शुध्द करून स्वधर्मांत घेतिल्लयाचे उल्लेख इतिहासांत प्रसिद्ध आसात. मुसलमान जाल्ल्या हिंदूंक शुध्द करून स्वधर्मांत घेतल्यात, तशेंच बाटून क्रिस्तांव जाल्ल्यांकूय शुध्द करून घेतिल्लयाचीं उदाहरणां इतिहासांत मेळटात. शुद्धीकरणाचीं अशीं जायतीं उदाहरणां इतिहासांत मेळटात तरी मुसलमानी सत्तेखाला आशिल्ल्या प्रदेशांनी तें कार्य उक्तेपणान करूंक मेळनाशिल्लें. तेच भाशेन दयानंद सरस्वतीन आर्य समाजाची स्थापणूक करून शुध्दिकार्याची गती वाडयली. स्वा. सावरकर हाणें अंदमानांतले बंदखणींतल्या जायत्या मुसलमान कैद्यांक शुध्द करून घेतिल्ले. इ.स. १९२८ च्या सुमाराक विनायक महाराज मसुरकर हाणें गोंयांतल्या हजारांनी क्रिस्तांव गावड्यांक शुध्द करून घेतिल्ले.

हिंदू लग्न कायदयांत धर्मांतराखातीर घटस्फोट मागपाची सुविधा आसा. हिंदूसभा आनी आर्यसमाज ह्या संस्थांनी धर्मशुद्धी हें कार्य भारतांत सगळेकडेन चलयलां.

— कों. वि. सं. मं.

**धर्मीक प्रतिकां :** जगांतल्या सगळ्या धर्मांनी, धर्मविशींच्यो कल्पना उक्तावपाखातीर पुर्विल्ल्या काळासावन कांय प्रतिकांचो उपेग केला. ह्या धर्माखातीर वापरिल्ल्या प्रतिकांक धर्मीक प्रतिकां म्हण्टात. प्रतीक हें मूळ पदार्थाचें प्रतिनिधित्व करता. एकाद्री कल्पना, तत्त्व, विचार, अणभव वा देवता हांचे प्रभावी अभिव्यक्तीखातीर मनीस अशीं प्रतिकां मानता. मुळांत प्रतीक हें एका खाशेल्या धर्माची दीक्षा घेतिल्ल्या लोकांखातिरूच आसता. त्या लोकांनी एका खाशेल्या पदार्थाक प्रतीक म्हणून आपणायिल्लयान तो पदार्थ 'प्रतीक' जाल्लो आसता. प्रतीक हें पयलीं एकाच मनशाच्या मनांत स्फुरत आसलें, तरी ताका खरें रूप आनी मान्यताय दिवपाचें काम मात समाज करता. जेमेरेन एकादऱ्याक ते परंपरेची जाण आसना, तेमेरेन ताका प्रतिकाचो अर्थ कळना. जांकां ती परंपरा खबर आसता तांकांच तें प्रतीक पुराय रितीन समजता. तेखातीर प्रतीक हें पदार्थाक उक्तायता तशेंच गुपितूय दवरता अशें म्हण्टात. धर्मीक श्रध्देंतल्यान, खुणेच्या आदारान एका पदार्थाचे सुवातेर, खाशेली शक्ती आसा अशें मानिल्लो दुसरो पदार्थ म्हळयार धर्मीक प्रतीक. प्रतीक जाल्ल्या पदार्थाचें भौतीक रूप नदरेआड करून, ताच्या रुपांत मूळ पदार्थाचें रूप पळयतात.

धर्मीक प्रतिकां म्हळ्यार मनीस आनी दैवी शक्त हांच्यांतलें नातें तिगोवन दवरपी एक दुवो. धर्मीक प्रतिकां म्हळ्यार, धर्मांचें स्वरूप जाणून घेवपाचें एक म्हत्वाचें साधन. ह्या प्रतिकांखातीर विंगडविंगड धर्मांची उदरगत जावपाक उपेग जाला. धर्मीक प्रतिकांभितर एक पवित्र शक्त आसा असो समज आसा. तेखातीर प्रतिकां हीं सादया चिन्नांपरस वेगळीं मानतात. देखीकः गणितांतलें 'अदीक' ह्या अर्थाचें '+' हें चिन्न समाजाचे इत्सेप्रमाण बदलून दुसरें घेवं येता. पूण प्रतिकांनी तें शक्य नासता. कारण प्रतिकांनी एक पवित्र आनी दाट नातें आशिल्ली अशी शक्त आसता. धर्मीक प्रतिकां आनी पवित्र दैवी शक्तीचो लागींचो संबंद मानतात. देखीक - इजिप्ताचो देव होरस हो ससाण्याच्या रुपान, डायोनायसस हो ग्रीसी देव बैलाच्या रुपान, डीमीटर ही ग्रीसी देवता कणसाच्या रुपान तशेंच ज्युपिटर हो रोमन देव फातराच्या रुपान साकार जाल्ल्याचें मानतात. कांय सुवाती दैवी शक्तीचीं धर्मीक प्रतिकां जातात. देखीक - देवूळ हें विश्वाचें प्रतीक, छत हें स्वर्गाचें प्रतीक, स्तूप हें बुद्धाच्या अस्तित्वाचें प्रतीक मानतात. तपोवन, पुजेची वा प्रार्थनेची सुवात, पवित्र घरां, खांबे, वण्टी, हीं लेगीत दैवी शक्तीचीं धर्मीक प्रतिकां जातात. क्रिस्तांव लोकांचे इगर्जेचें घुमट हें स्वर्गाचें आनी इगर्जेंतली वेदी हें क्रिस्ताचें प्रतीक जावन आसा. कांय खेपे खंयचेय सुवातेर कसलेंच प्रतीक वापरनात. तेंय एक देवाच्या अस्तित्वाचेंच प्रतीक जाता. देखीक- मुसलमानांचे मशिदींतली प्रार्थनेची सुवात. आंकडे, मुर्ती, रंग, अक्षरां, चिन्नां ह्या स्वरुपांनीय कांय प्रतिकां आसतात. धवो रंग हें उमेदीचें तशेंच मरणाचें प्रतीक मानतात. अक्षरांचीं प्रतिकां चडशी जादू वा भविश्याकडेन संबंदीत अशीं आसतात. आंकड्यांभितर 'एक' हो ब्रह्माचें, दोन हो आत्मो आनी परमात्मो, तीन हो वेद वा गूण, अठरा हो आंकडो पुराणांचो प्रतीक मानतात. ब्रह्मा, विष्णु आनी महेश हांची त्रिमूर्ती ही क्रमान उत्पत्ती, स्थिती आनी लय हांचें वा रजोगुण आनी तपोगुण हांचें प्रतीक. चवकोन हें चार दिशांचें प्रतीक. कृती, हातांनी पायांनी वा दोळ्यांनी केल्लयो कुरवो तशेंच हालचाली ह्याय स्वरूपांनी कांय प्रतिकां आसात.

हिंदू आनी बौध्द हांच्या ध्यानमुद्रांतल्या बोटांच्यो स्थिती प्रतिकात्मकच आसतात. दिमी घालप हें नमळायेचें, पांयां पडप हें आदरभाव दाखोवपाचें प्रतीक. नाच, उमो घेवप, वेंग मारप, कपल हुंगप, उबें रावप, बसप ह्योय कृती प्रतिकात्मक आसूं येतात.

रोमन कॅथलीक धर्मोपदेशकाचो धवो झगो हें काळजाचे शुचितेचें प्रतीक आसता. जैन आनी बौद्ध धर्मांनी विशिश्ट वस्त्रां हीं जिणेचे नवे अवस्थेंत प्रवेश केल्ल्याचीं प्रतिकां आसात. विंगड विंगड धर्मांतल्यान वस्त्रां हीं व्यक्तीचें पवित्र आचरण आनी तिची धर्मीक जीण हांचीं प्रतिकां

जातात.

देवकप्रधान जमातींनी भाव-भयणीच्या नात्याचेर प्रतिकां आसतात. झूज, जैत, शांती, वेवसाय, क्रीडा, शिक्षण हांचीं तशेंच पुरोयत, संत, धर्माचे संस्थापक, धर्मगुरू हांचींय प्रतिकां आसात. शब्द, भास, ग्रंथ, संगीत, वाद्यां हांच्या रुपांतय धर्मीक प्रतिकां आसात. वेदांत ॐ हें ब्रह्माचें प्रतीक आनी व्याकरणांत शब्द ब्रह्माचें प्रतीक मानतात. बायबल, कुराण आनी शिखांचो ग्रंथसाहिब हीं दैवी शक्तीचीं प्रतिकां. संगितांतली विशिश्ट राग-रागिणी, ध्वनी हीं दैवी शक्तीचीं तशेंच नगारे, घांट, शंख, वीणा हीं वाद्यां पावित्र्यांचीं प्रतिकां आसात.

वनस्पतिशास्त्र, प्राणिशास्त्र, रसविद्या, वैद्यकशास्त्र ह्या शास्त्रांचोय धर्मीक प्रतिकांचे जडणघडणेचेर परिणाम जाता. भौतिकी, रसायनशास्त्र विश्वरचनाशास्त्र ह्या शास्त्रांतल्यो कांय कल्पना मांडपाखातीर धर्मीक आनी पुराणकथांतल्या प्रतिकांचो उपेग करतात.

सगळ्या धर्मांभितर, हिंदू धर्मांत सगळ्यांत चड प्रतिकां आसात. यंत्र हें विश्वाचें, वेदी हें जगाचें, स्वासोस्वास हें अग्निहोत्राचें आनी आचमनाचें, उदक हें अमृताचें प्रतीक आसा.

ब्रह्मदेवाचो हंस, विष्णुचो गरूड, शिवाचो नंदी, कार्तिकेयाचो मोर हीं वाहनां त्या त्या देवांचे उपस्थितीचीं प्रतिकां. तेच भाशेन पादूका ह्योय देवतेचे उपस्थितीचें प्रतीक. शंख, चक्र हीं आयुधां विष्णुच्या सामर्थ्याचीं प्रतिकां. त्रिशूळ हें शंकराच्या शासन आधिकाराचें प्रतीक. त्रिशूळ आनी कवटी हीं कालीचीं प्रतिकां, कमल हें लक्ष्मी, सरस्वती आनी शुचिता हांचें प्रतीक. गायत्री हें ब्रह्मा, विष्णु आनी महेश हांचें आनी त्रिवेदांचें प्रतीक आसा.

पींड हें पितरांक दिल्ल्या वांट्याचें प्रतीक. ग्रहांचींय प्रतिकां आसतात. देखीक - धोणू हें शनीचें, चवकोन हें चंद्राचें, त्रिकोण हें मंगळाचें प्रतीक.

वनस्पतीच्या रुपांतूय कांय प्रतिकां आसात तीं अशीं - पिंपळाचें झाड हें कांय देवांच्या वसतिस्थानाचें प्रतीक. तुळस, दर्भ हें पवित्र्याचें प्रतीक. रुद्राक्ष हें रुद्राचें प्रतीक.

स्वस्तिक हें शुभत्वाचें आनी दुश्ट शक्त निवारपाचें प्रतीक. बौध्द धर्मांत चक्र हें धर्म प्रवर्तनाचें प्रतीक. तंत्रशास्त्रांत प्रतिकात्मकताय व्हड प्रमाणांत दिसता. मंडलां वा यंत्रां हीं तांत्रिकांचीं म्हत्वाचीं प्रतिकां. श्रीयंत्र हें विश्व, विश्वात्मक देवी वा परमात्मो हांचें प्रतीक मानतात.

ग्रीसी लोकांनी देवतांचीं कांय प्रतिकां प्रागैतिहासिक लोकांकडल्यान घेतलीं अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. ग्रीसांतल्या स्थानिक पंथांतल्यान व्हड प्रमाणांत प्रतीकवाद दिश्टी पडटा. दोनूय वटांनी धार आशिल्ली कुराड ही डायोनायसस हे देवतेचें प्रतीक.

क्रिस्तांव धर्मात क्रिस्त, मॅरी, खुरीस आनी सैतान हांचेविशीं जायतीं प्रतिकां निर्माण जालीं. मेंढरांचो राखणो हें क्रिस्ताचें प्रतिक आनी क्रिस्त हो सासणाची जीण दिवपी शक्तीचें प्रतीक. कॉन्स्टंटीनच्या काळासावन खुरसाचें प्रतीक दिसूंक लागलें.

इस्लाम धर्मांत देवाची मूर्त नासता. तेखातीर ह्या धर्मांत देवतांचीं प्रतिकां नासतात. पूण तांचें चांद-तारो हें एक म्हत्वाचें प्रतीक.

फुलां, वासाचीं द्रव्यां, धूप हांचो पारशी लोक प्रतिकां म्हणून वापर करतात. न्हवन्या व्हंकलेच्या कपलाचेर लायिल्लो वाटकुळो तिबो हें सूर्यकिरणाचें प्रतीक मानतात. अग्नी हें तांचें पवित्र प्रतीक.

चीनी लोकांच्या धर्मांत खूब प्रतिकां आसात. तांचे दरेके सजावटीक प्रतिकात्मक अर्थ आसता. जपानी लोकांचे जिणेंतूय प्रतिकांक म्हत्वाची सुवात आसा.

— कों. वि. सं. मं.

**धामस्कर, कमलाकांत पुंडलीक :** (जल्म : १ जुलय १९३३, केरी - फोंडें).

सुटकेझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. जानेवारी १९५४ वर्सा सावन ताणें सुटके चळवळींत वांटो घेवंक सुरवात केली. १५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा पत्रादेवीक मार्क फेर्नांडीस हाचें मार्गदर्शन जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी प्रादेशिक लश्करी न्यायालयान ताका एक वर्स आनी सात म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १८ मार्च १९५६ ह्या दिसा बंदखणींतल्यान सुटका जातकच 'गोंय सुटके सैन्य' हे संघटनेखातीर तो भूंयगत वावर करूंक लागलो. 'मुंबय प्रदेश काँग्रेस समितीन' तिच्या रुप्या सुवाळ्या दिसा प्रशस्ती पत्रक दिवन ताचो भोवमान केलो. १९७४ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

— कों. वि. सं. मं.

**धामी संप्रदाय :** प्राणनाथान स्थापन केल्लो एक संप्रदाय. हाका प्राणनाथी पंथ, प्रणामी पंथ, महाराज पंथ, मेराज पंथ, खिजडा पंथ, चकला पंथ, धाम संप्रदाय अशींय हेर नांवां आसात. ह्या नांवांनी महाराज पंथ ह्या नांवावयल्यान संप्रदाय प्रवर्तकावयली निश्ठा आनी आदर उक्तो जाता. मेराज हें महाराज शब्दाचें अपभ्रंश्ठ रूप आसुंये वा मीराज म्हळ्यार सजीव स्वर्गयात्रा ह्या अरबी शब्दाचो अर्थ जाता. खिजडा हें नांव ताका एका झाडावयल्यान मेळ्ळां. प्राणनाथाचो गुरू देवचंद हाचो पूत बिहारीदास हाणें १६५५ त चकला नांवाच्या एका पंथाची स्थापना केल्ली. पूण हो पंथ धामी संप्रदाया भाशेनूच आशिल्ल्यान धामी संप्रदायाकच फुडें चकला अशें नांव मेळ्ळें. धाम ह्या शब्दाचो सांप्रदायिक अर्थ आध्यात्मिक उच्च दशा वा विशुद्ध प्रेम असो जाता.

प्राणनाथान आपल्या काळांत प्रचलित आशिल्ल्या सगळ्या धर्मांचो अभ्यास केलो आनी तातूंतलीं मोलादीक तत्त्वां आपणावन तांचेरच आदारून धामी संप्रदायाची स्थापना केली. ह्या संप्रदायांत प्रेमतत्त्वाक म्हत्वाची सुवात दिल्या. ब्रह्माची मूळ शक्ती ही प्रेमस्वरुप आसून, ती मेळटकच जीव ब्रह्मरूप जाता असो ह्या पंथाचो सिद्धांत आसा. प्रेम हें प्रत्यक्षांत आसलें वा ताचो अणभवय येता आसलो, तरी तें शब्दातीत वा अनिर्वचनीय आसा अशें प्राणनाथाचें मत. मनशाचे आध्यात्मिक उदरगतीखातीर सत्संगाची गरज आसता. जगत आनी ब्रह्म हीं दोनूय एका आगळ्याच आनंद्रावरी आसून विशुध्द प्रेमावरवीं तांचो आनंद अणभवूंक मेळटा. हीच पुरुशार्थाची निमाणी अवस्था अशें प्राणनाथान म्हळां. ताणें परमात्म्याचें नांव धाम = परमपद अशेंच दवरलां.

ह्या संप्रदायान हिंदू, मुसलमान, क्रिस्तांव हे सगळे एकच आसात अशें म्हळां. धर्माच्या नांवार लोकांमदीं तीडभावनेचो प्रसार जाता हें जाणून ताणें आपल्या पंथावरवी वेगवेगळ्या संप्रदायांच्या अनुयायांमदीं प्रेमाचो आनी सद्भावनेचो प्रचार केलो.

सद्या ह्या संप्रदायाच्या अनुयायांचेर वैष्णव धर्माचो बरोच प्रभाव

पडिल्लो दिसता. धामी संप्रदायाचे अनुयायी बालकृष्णाचें ध्यान करतात, गळ्यांत तुळशीची माळ, त्रिपुंड्र आनी कुकूम लायतात. ते उपास्याचे मुर्तीची पुजा करीनासतना 'कलजमे शरीफ' ह्या आपल्या धर्मग्रंथाची पुजा करतात. सोरो, मास आनी जाती वेवस्था हांचो ताणीं निशेध केला. एकादयाक संप्रदायाची दीक्षा दितना हिंदू आनी मुसलमान हांचें सहभोजन करप अशी तांची पद्धत.

पन्ना हें ह्या संप्रदायाचें मुखेल केंद्र आनी तीर्थस्थान आसून दर वर्सा कार्तिक पुनवेक हांगा धामी लोकांची व्हड जात्रा भरता. ह्या संप्रदायांत मुसलमानांकय प्रवेश मेळटा. सुरतेचे जायते कच्छी ह्या संप्रदायाचे अनुयायी आसात. मध्य प्रदेशांतल्या सागर आनी दमोह ह्या जिल्ह्यांत आनी सौराष्ट्रांतल्या जामनगर लागसार ह्या पंथाचो बरोच प्रसार आसा. जामनगर आनी सुरतेक तांचीं केंद्रां आसात. सुमार देडशें वर्सांआदीं नेपाळांतय ह्या पंथाचो प्रसार जाल्लो. पंथाच्या धर्मग्रंथाचें अध्ययन करपाखातीर नेपाळांतले प्राणनाथी लोक पन्नाक हांगा येतात.

— कों. वि. सं. मं.

**धारगळकार, काशीनाथ नारायण :** (जल्म : २१ जुलय १९००, म्हापशें; मरण : १२ डिसेंबर १९७४).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींत आनी लिसेवाचें तिसरें वर्समेरेन शिक्षण घेतलें. भारत सरकाराक तशेंच 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेच्या बेळगांवच्या फांट्याक पार्तुगेजांच्या कारवायांविशीं खबरो पावोवपाचें काम तो करतालो. ८ जुलय १९५६ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. १९५७ त ताका प्रादेशिक न्यायालयामुखार उबो करून स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तीन वर्सां उपरांत ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

— कों. वि. सं. मं.

**धारगळकार, जगन्नाथ वासुदेव :** (जल्म : १४ डिसेंबर १९१६, शिवोली - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. शिवोली आनी पेडणें वाठारांत पत्रकां वांटप, बसकांनी वांटो घेवप असलीं कामां तो करतालो. १९५५त ताका पोलिसांनी धरलो. १९५६त ताका १२ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १९५९ वर्सा सगळ्या कैद्यांची सुटका जाली तेन्ना ताचीय सुटका जाली. ११ जानेवारी १९६० दिसा ताका परत अटक जाली. गोंयची सुटका जायमेरेन तो बंदखणींत आशिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १९७९-८० ह्या काळांत तो ओशेल ग्रामपंचायतींत उपसरपंच म्हणून वेंचून आयिल्लो.

— कों. वि. सं. मं.

**धारगळकार, श्रीकांत काशीनाथ :** (जल्मः २४ मार्च १९३३, म्हापशें).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण पुर्तुगेजींतल्यान आनी विद्यालयीन शिक्षण इंग्लिशींतल्यान घेतलें. तो 'आझाद गोमंदक दल' संघटनेच्या वांगड्यांक पुर्तुगेजांच्यो राजकी खबरो पावयतालो. ८ जुलय १९५६ दिसा ताका पोलिसांनी धरलो. मार दिलो आनी दोन दिसांनी सोडलो. १९५७ त ताका परत अटक जाली. हे खेपे ताका २ वर्सां बंदखण भोगची पडली. एप्रिल १९६० त ताचीं बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

— कों. वि. सं. मं.

**धारवाड :** कर्नाटक राज्यांतल्या धारवाड जिल्ह्याचें आनी तालुक्याचें मुखेल थळ. हुबळीचे वायव्येक सुमार २० किमी. अंतराचेर आनी बेळगांवचे आग्नेयेक सुमार ७६ किमी. अंतराचेर हें शार वसलां. पुणें-बेंगळूर ह्या राश्ट्रीय महामार्गावयलें आनी रेल्वेमार्गावयलें एक मुखेल स्थानक. प्रशासकीय, शिक्षणीक, संस्कृतीक आनी उद्येगीक केंद्र म्हणून ह्या शाराची नामना आसा. हांगाचें समशीतोश्ण वातावरण, उमेदीचें वातावरण आनी भोंवतणच्यो पाचव्योचार दोंगुल्ल्यो हांकां लागून ताची तुळा महाबळेश्वराकडेन करप जाता. आदल्या काळांत ह्या शाराभोंवतणी तटबंदी आनी पांच प्रवेशदारां आशिल्लीं. देखून कांय तज्ञांच्या मतान धारवाड हो शब्द द्वार आनी वाट ह्या दोन शब्दांचें अपभ्रंशरूप आसूंक जाय. धारराव ह्या विजयनगरच्या एका अधिकाऱ्यान १४०३ त हांगा किल्लो बांदलो. ताच्या नांवावयल्यानच ह्या शाराक धारवाड हें नांव पडलें अशेंय कांय तज्ञ मानतात.

धारवाड शाराचे चार मुखेल भाग पडटात. १) किल्लो आनी ताचे भोंवतणचो वाठार, २) मुखेल शार, ३) उपनगरां, ४) नवी वसणूक. किल्ल्याचे उदेंतेक मुखेल शार पातळिल्लें आसून धारवाड नगरपालिका (१८५६) ही पोरणी स्थानिक स्वराज्य संस्था. १९६१त धारवाड आनी हुबळी ह्या दोन जुंवळ्या शारांची मेळून एक म्हानगरपालिका स्थापन जाली. देखून सगळीं उपनगरां आनी नव्यो वसणुको धारवाड शाराचोच भाग समजतात.

धारवाडचो पुर्विल्लो इतिहास चडसो मेळना. पूण बाराव्या शतमानासावन ह्या शाराचे उल्लेख मेळटात. सवो विक्रमादित्य हाच्या १११७ च्या कोरिल्ल्या लेखांत भास्करदेव नांवाच्या अधिकाऱ्याच्या अखत्यारींत हो वाठार आशिल्लो असो उल्लेख मेळटा. त्याच काळांतल्या होंबल हांगाच्या कोरीव लेखांत धारवाडचे उल्लेख आसात. अली आदिलशाहान १५७३ त धारवाड शाराचेर जैत मेळयलें. फुडें १६७४ त शिवाजी महाराजान तें आपल्या ताब्यांत घेमेरेन ताचेर विजापुरचो शेक चलतालो. १६८५त तें मराठ्यांकडल्यान मुअझ्झम ह्या औरंगझेबाच्या पुतान घेतलें. फुडें १७५३ मेरेन हें शार मुसलमानांचे सत्तेखाला आशिल्लें. फुडें मराठे, हैदर, टिपू आदींनी अदींमदीं कांय काळ धारवाडाचेर राज्य केलें आनी निमाणें एकुणिसाव्या शतमानांत तें ब्रिटिशांनी घेतलें. भारत स्वतंत्र जातकच हें शार कांय काळ मुंबय राज्यांत आशिल्लें. फुडें १९६० उपरांत ताचो कर्नाटक राज्यांत आस्पाव केलो.

फर्निचर, कातडेच्यो वस्तू, फोव, तांदूळ, नळे, विडयो, हातामागावयलें कापड हांच्या वेपाराखातीर ह्या शाराचीं नामना आसा. हांगा नभोवाणी केंद्र आनी जायते लघुउद्योग आसात. धारवाड हें विद्येचें एक मुखेल केंद्र. हांगा जायत्यो पोरण्यो तशेंच नव्यो शिक्षणीक संस्था आसात. कर्नाटक विद्यापीठ (१९४९) एके दोंगुल्लेचेर आसा. पोरण्या संस्थांनी कर्नाटक म्हाविद्यालय, शेतकी म्हाविद्यालय, बोर्स्टल विद्यालय, श्री जगद्‌गुरू

शंकराचार्य संस्कृत पाठशाळा, कर्नाटक विद्यावर्धक संघ, कर्नाटक हिस्टॉरिका सोसायटी, श्री मुरुघमठ ह्या पोरण्या संस्थांची नामना आसा. कर्नाटक हिस्टॉरिका सोसायटी पुराभिलेखविद्या ह्या विशयाचें प्रशिक्षण दिवपी एक विद्यालय हांगा आसा. अशें शिक्षण दिवपी भारतांतली ही एकसुरी शिक्षणसंस्था. कर्नाटक विद्यापिठांतली 'कन्नड रिसर्च इन्स्टिटयूट' ही हालींच्या काळांतली एक संस्था आसून, हे संस्थेवतीन प्राच्यविद्या विशयांतले जायत्या कोरीव लेखांचें वाचन, संशोधन, संकलन आनी संपादन जाता. हे संस्थेचें एक पुरातत्त्वीय संग्रहालय आसून तातूंत कोरीव लेख, प्रागैतिहासीक अवशेश आनी मूर्ती दवरल्यात.

ह्या शारांत हिंदू, वीरशैव, मुसलमान, पारशी, जैन, क्रिस्तांव आदी धर्मांचे लोक रावतात. तशेंच दर एका धर्माचीं देवळांय हांगा आसात. तातूंत दुर्गादेवी, दत्तात्रय, लक्ष्मीनारायण, हनुमान, वेंकटेश ह्या हिंदू देवळांची; जुम्मा, मदनी, मालापुरा, बारइमाम ह्या मशिदींची आनी ब्रिटीश काळांत बांदिल्ली ऑल सेष्ट्स, ध बॅसेल मिशन, ध रोमन कॅथलीक चर्च आदींची नामना आसा. विश्रामधामा लागसल्लो शंकुस्तंभ (ऑबेलिस्क) कित्तूरच्या झुजांत मरण आयिल्ल्या अधिकाऱ्याचे यादीक बांदला. हांगा आशिल्ल्या पोरण्या किल्ल्याचीय बरीच नामना आसा. तेभायर ब्रिटीश काळांतल्यो सरकारी इमारती, मनोरो, सरकारी रुग्णालयां आनी हेर कार्यालयांच्यो इमारती पळोवपा सारक्यो आसात.

— कों. वि. सं. मं.

**धालो** : धालो हो एक नृत्योत्सव. कुणबी, भंडारी, नायक, गाबीत, गावडी ह्यो बायलो हातूंत वांटो घेतात. धालो ही मुळांत राधा गीता आसुंये. राधा-लाधा-धाला—धालो असो वर्णविपर्यय जावन हें नाव प्रचारांत आयलां आसतलें, अशी एक कल्पना आसा. मुळांत ही गीता राधा-कृष्णविशयकच आसतली. मुखार तातूंत थळाव्या देवदेवतांच्या गितांची भर पडली आनी कालांतरान ताकाच म्हत्व येवन मूळ राधाकृष्णगीताक दुय्यम स्थान मेळ्ळें.



कोंकण पट्यांत सिंधुदूर्ग धरून माजाळी-कारवारा मेरेन, गांवगिऱ्या वाठारांत हो उत्सव पळोवंक मेळटा. दर वर्सा पौष म्हयन्यांत, चडकरून चान्यारातींनी धालांची परब मनयतात. धालो ज्या जाग्यार खेळटात ते सुवातेक 'मांड' म्हण्टात. ही सुवात पुर्वापार थारायल्ली आसता. कांयकडेन तुळशी वृंदावनामुखार आंगणांत, खंयच्याय देवळाच्या प्राकारांत वा कांय वाठारांनी शेणान सारयिल्ल्या खळार (आंगणांत) धालो खेळटात. वाड्यावयल्यो बायलो, माथ्यांत सुरंगां, ओंवळां, आबोलीं, मोगरीं, चांफीं, असलीं फुलां माळून रातच्या वेळार मांडार जमतात. आंकवार, आयाव आनी विधवा बायलोय मांडार जमतात, चड करून रांडाव बायलो फांती - फुगड्यांनी वांटो घेनात. तीं जाणकार जावन मार्गदर्शन करतात.

मांडाची सासाय जागोवप, वाड्याचें नांव तिगोवन दवरप, वाऱ्यासुत्राक थंडावप, एकचारान खोशी मनोवप, हीं धालो खेळपा फाटली उद्दिशं आसात. जोडयेक मनोरंजनाचोय वांटो आसा.

पौष म्हयन्यांत पुनव धरून कृष्ण पक्षांतले सश्टी मेरेन धालो उत्सव मनयतात. खंयचोय एक बुधवार वा आयतार धरून मांडाक उबी रावतात (धालांक सुरवात करतात).

धालांची सुरवात तसोच शेवट करपाचे विधीचो अधिकार वाड्यावयल्या अमुकूच अशा घराब्यांक परंपरेन मेळिल्लो आसता.

कांयकडेन गांवचो जल्मी वा गांवचो वांगडी देवाक नाल्ल, तांदळाची तळी उखलासून दवरता, पाटार एक दिवली पेटोवन दवरता. म्हऱ्यांत विडो, चुडो, गोड, केळीं दवरतात. तीळ, गंध, काजळ कुकमाच्यो अक्षता वांट्टात. गांवचे वतीन गाराणें घालतात अनी गांवचें बरें जांव अशें मागतात. जमिल्ल्यो बायलो 'हय सायबा' म्हणून होरायतात आनी दिवलेर अक्षता उडयतात. आमी दाव्या हातान केलां तूं उजव्या हातान मानून घे अशें देवाकडेन राखणेचें मागणें करतात. मागीर हळद कुकुम जातकच गंधाचे तिबे लायतात. गंधाचो तिबो लायतल्या बायलांनी धालांचे राती मांडार हाजीर रावंकूच जाय. उपरांत धालो सुरू जातात.

तीन, पांच, सात, णव, इकरा वा पंदरा अशो धालांच्यो राती आसतात. रातच्या वेळार बायलो नटून थटून मांडार जमतात. दिवली पेटोवन दवरतात. उपरांत एकामेकांसामकार तोंड करून दोन ओळी करतात. ह्या रांकांक फांती म्हण्टात. फांतयेंत उब्यो राविल्ल्यो बायलो एकामेकांच्या हातांत वा कमराभोंवतणीं हात घालतात. उपरांत गीत सूरू जाता. पदाचो एक चरण म्हणीत बायलांची रांक फुडें पावली मारता, कमर वांकता आनी चरण पुराय करीत आपल्या जाग्यार येवन रावता. उपरांत दुसरी रांक दुसरो चरण म्हणीत तेच तरेन फुडें वता आनी वांकून परत आपल्या जाग्यार वता. धालांची सुरवात सदांच 'श्री धालो' ह्या उतरान जाता. ह्या वेळार म्हणपाचो एक प्रकार असो -

श्री धालो गे धालो । धालांनी खेळूं
येयात गे धालो, धालांनी खेळूं येयात
चाली खेळूं येयात गे धालो चाली खेळूं येयात.
'रथा तुज्यो दांडयो साडेतीनशें गुडयो,
रथांत कोण देव बसे गे
रथांत बसली शांतादुर्गा माया
जना लोकां दिसे, खेळूंक आयल्या मांडार गे.

केन्ना केन्ना धालांची गती जलद आसता.

खंय गेलो म्हजो कवडुलो ।
हांगा आशिल्लो कवडुलो ।

येयात गो रंबानो, झंपांनी खेळया
आयली गे, आयली गे रंबाबाई
रंबानी फुगडी घाल धडाडी . . .

करून ताळयांच्या थेक्यार फुगडी खेळटात. उपरांत रंबाचो अवसर येता. बारा वर्सा सकयल्यो आंकवार चलयो खुदतात. सात जाण रंभा आनी एक तांचो भाव खेतलो. भावार्थी लोक आपले प्रस्न विचारतात. रंभा प्रस्नांच्यो जापो सांगतात. मत येवंक नाशिल्लया, इल्ल्याशा भुरग्यांकडल्यान बुदवंतपणाच्यो जापो आयकून जमिल्ले लोक भारावतात. उपरांत हेर भोगावळी जातात. रंभाची खणानाल्लांनी होंट भरतात. मागीर तांचो अवसर निवळटा.

धालांचो मांड दवरतात (सोंपता) तेन्ना खूब खेळ जातात, सावज मारप, घाडी खुदोवप, न्हवरो, भट-भटीण, मोरूलो, आमयो, घोणशे पिलां, गावडी, अंबाबाय, पिंगळी आदी सगळ्यो भोगावळी जातकच हळद कुकुम करतात. त्या वेळार बायलो घोवांचें नांव घेतात. देखीक -

काळी चोळी मिरयां येदी गांठ
जिवार हळद कुकमाचो थाट.

हांगा आंकवार चलयांनीय नांवा घेवपाची आसतात. लग्नच ना जाल्यार नांव कोणाचें घेतलां. देखीक -

आठवभर गंव खंयच्या मडक्यांत ठेंव?
करिनाशिल्लया घोवाचें नांव कशें घेवं?

धालांतली निमाणी रात चड म्हत्वाची. ती सगळी रात जागोवन काडूंक जाय ना जाल्यार कितें तरी नकलामी जाता असो समज आसा. दुसऱ्या दिसा फांतोडेर कोंबो साद घालता तेन्ना 'फटीचें लग्न' हो एक दबाजो जाता. एक बायल दादल्याचो भेस करून न्हवरो जाता. फेटो बांदून एक बायल 'पिंगळी' जाता. हातांत तांबयो, भितर आंब्याचे ताळे आनी नाल्ल घेवन तो दर एके बायलेमुखार वता आनी म्हण्टा -

'सकाळचे पारी, पिंगळी आयला दारी,
आमी पिंगळी भटाचे, तांदूळ घाला भाताचे'

हो पिंगळी घराघरांनी भोंवता आनी म्हण्टा -

खट खूट करता काय, पेटये चावी काडटा काय,
म्हाका पयशे दिता काय, म्हाका, पयशे दिता काय?'

आनी अशे तरेन पिंगळी घराघरांत वचून पयशे आनी धान्य जमयता.

मागीर ल्हान आंकवार चलयो नाचतात आनी तांच्या आंगांत रंभा येतात. हाचे मजगती शिकार करपाचो देखाव जाता. दादल्याचो भेस करून बायलो कासाक वतात आनी सावद मारून हाडटात. ह्या सावदाचें सवंग मात खरेलोच दादलो करता. मागीर देवतेमुखार गाराणें जाता, फोडिल्ल्या नाल्लाचें वळें सावद जाल्ल्या मनशाक मेळटा.

धालांनी पुर्वापार चलत आयिल्लीं, गितां आसतात. कृष्ण, कृष्ण श्रृंगार, सीताहरण आनी रामायण, महाभारताचेर आदारील्लीं बरींच गितां धालांनी आसतात. तेभायर थळाव्या देवदेवतांची तोखणाय सांगपीय गितां आसतात. तशेंच तत्कालीन आनी प्रासंगीक आशयांचीं गीतां धालांनी आसतात.

हालीं तेंपार मराठी तशेंच हिंदी सिनेमा गितांचो आनी हेर लोकगितांचो धालोगितांचेर प्रभाव पडला. धालांनी तरेकवार फुगडयो, पाती, झिम्मा, कचे, फेर फुगडी, बसकी फुगडी, फालां आनी गितां आयकूंक मेळटात.

'म्हजी फुऽऽ चली फूऽऽ तुज्या फूऽऽ चल्याक फूऽऽदिवची फूआसा फू' करून उकडयां बसून खेळिल्लयो बसक्यो फुगडयो आसतात. निमाणे रातीक देवचाराक सूर-रोंट दवरतात.

मांडा भोंवतणी चारू शिंपतात. कांयकडेन कोंबेय मारतात. मांडार जमिल्ल्या भुरग्यांक आठवल वा फोव खावपाक दितात. निमाणी रात जागोवपाची आसता.

कांयकडेन रथ नाचयतात, नाटकुली करतात. गितां गायतात, फांतोडेर कळस दवरतात, मांड खेळटात आनी रंभाची फुगडी म्हण्टात.

उपरांत शेणाचो कालो जाता. मांडार शेण सारोवन जातकच धालो सोंपतात. तेन्ना हें गीत म्हण्टात.

पयलीं रांक - धालांच्या माथ्यार फुलांचो झेलो
आयच्यान धालो सोंपल्यो गे
आयच्यान धालो सोंपल्यो गे.
दुसरी रांक - गडां गडयो
मोडा मोडयो.

अशें म्हणीत बायलांच्यो फांतयो हेवटेच्यान तेवटेन वतात आनी फांतयो मोडटात. उपरांत मांड शिंपतात. शिरन्यो वांटटात आनी धालो सोंपतात.

धालो कितल्यो पोरण्यो सांगू नजो. तातूंतलीं गितां,खेळ, फुगड्यो आनी हेर भोगावळी सगळ्या गोंयांत जातात. कांय कडेन क्रिस्तांव - कुणबी लोकांगेरय धालो खेळटात.

- प्रा. श्याम वेरेंकर

पूरक नोंद — कोंकणी साहित्य.

## धिंग्रा, मदनलाल

**धिंग्रा, मदनलाल :** (जल्म : १८८७, अमृतसर; मरण : १७ ऑगस्ट १९०९, लंडन).

भारतीय सुटके चळवळींतलो एक क्रांतीकारी. ताचो जल्म एका मध्यमवर्गीय घराण्यांत जालो. ताचो बापूय नामनेचो दोतोर आनी भाव बॅरिस्टर आशिल्लो.

मदनलालाचें म्हाविद्यालय मेरेनचें शिकप अमृतसराकच जालें. पंजाब विद्यापीठांतल्यान ताणें बी. ए. पदवी मेळयली आनी १९०६ त फुडलें शिक्षण घेवंक तो इंग्लंडाक गेलो. ताचेपयलीं विद्यार्थी अवस्थेंत ताचें लग्न जाल्लें. इंग्लंडाक ताणें स्थापत्य अभियांत्रिकीचो अभ्यास केलो. थंय ताची स्वातंत्र्यवीर सावरकार, श्यामजी कृष्णवर्मा, हरदयाळ ह्या क्रांतीविरांकडेन इश्टागत जुळ्ळी. तो होमरूल लीग आनी सावरकराच्या अभिनव भारत ह्या संस्थांचो वांगडी जालो. तेन्नाच खुदिराम बोस आनी कन्हैयालाल ह्या सुटकेझुजाऱ्यांच्या बलिदानाचो ताचेर बरोच प्रभाव पडलो. सशस्त क्रांतीविराक जाय आशिल्लें अशें शिक्षण ताणें घेतलें. फुडें ताणें भारताचो मंत्री स्वीय सहाय्यक कर्नल विलीयम कर्झन वायली हाच्या खुनाचो बेत आंखलो. पयले खेपे ताका तातूंत येस आयलें ना. फुडें १ जुलय १९०९ दिसा इंपीरियल इन्स्टिट्युटाच्या जहांगीर हाउसांत इंडियन नॅशनल असोसिएशनची बसका आशिल्ली, त्या वेळार कर्नल वायलीचेर ताणें गुळ्यो घाल्यो. तेन्नाच कोवास लालाकाका हो मदीं आयिल्लचान ताका कर्नल वायलीवांगडा मरण आयलें. तेन्ना मदनलाल हाका अटक जाली आनी ताका फांशीची ख्यास्त फर्मायली. लंडनच्या पेण्टोनाविल बंदखणींत ताका गोळाक लायलो.

— कों. वि. सं. मं.

**धिरयो :** बैलांझुजींचो एक प्रकार. बैल, रेडे, कोंबे सारकिल्या मोनजातीमदीं झुजां आयोजीत करप हो मनशाचो खूब आदींसावनचो एक मनरिजवणेचो छंद. गोंयांत धरून बऱ्याच वाठारांनी, उत्सवाचो एक वांटो म्हणून अशीं झुजां लोक आयोजीत करतात. झूज जिखतल्याक इनामां दवरतात. कांय कडेन प्रेक्षकांखातीर तिकेटीय आसतात. बैलांच्या आयोजीत केल्ल्या झुजांक गोंयांत धिरयो म्हण्टात. झुजींत वांटो घेवपी बैलांचे भलायकेची खास वेवस्था करप जाता आनी तेप्रमाण तांकां खाशेलें खाणजेवण, तशेंच प्रशिक्षण दिवप जाता. ह्यो धिरयो आदीं गांव पंगड धरून जाताल्यो. हालींसरा कांय व्यक्ती आपले बैल तयार करून धिरयांनी वांटो घेतना दिसतात. गोंयांत, विशेश करून दक्षिण गोंयांत, अशो धिरयो फेस्ताच्या निमतान जाल्ल्यो दिश्टी पडटात. गांवचे एके मेकळे सुवातेर, उत्सूक प्रेक्षकांचे हजेरेत धिरयो आयोजीत करप जाता. धिरयांनी वांटो घेवपी बैलांक ताचे पुरस्कर्ते आनी समर्थक उतरांनी, कुरवांनी आनी हातांनी आपआपल्या बैलांक विरुद्ध पंगडाच्या बैलाचेर घुरी घालपाक तशेंच जैत मेळोवपाक प्रोत्साहन दितात. धिरी लागचेपयलींच मैदान सोडून पळून गेल्ल्या बैलाक केन्ना चुचकारून जाल्यार केन्ना बळाचो वापर करून परत मैदानार हाडटात. जो बैल प्रतिस्पर्धी बैलाक आपल्या शिंगांच्या आदारान वा हेर उपायान मैदानाभायर धुकलूंक पावता तो बैल झूज जिखलो अशें समजतात.



विशेश अशी संरक्षणाची वेवस्था करिनासताना अशो धिरयो आयोजीत केल्ल्यान कांय वेळार सुटिल्लो बैल धिरयांखातीर आंखून दिल्ले शिमेभायर सरून प्रेक्षकांक दुखापत जाल्ल्याचे वा मरण आयिल्ल्याचे प्रसंग खूब फावटीं घडिल्ले आसात. तेभायर वांटो घेवपी बैलाकूय दुखापत जाता.

धिरयो आनी युरोपी देशांनी जावपी बूलफायट हांचो तसो लागींचो संबंद दिसना. बूलफायट हे बैलाचे झुजींत बैल आनी मनीस वांटो घेता जाल्यार धिरयांनी बैलाबैलांमदीं झूज लायतात. बूलफायटिचो शेवट मनशाकडल्यान बैलाक जिवो मारप जाता.

बूलफायट तशेंच धिरयो ह्यो आपआपल्या वाठारांनी लोकप्रिय आसल्यो आनी तातूंतल्यान साहस तशेंच कुशळकटाय हांचें दर्शन जाता आसलें तरी आयच्या काळांत फकत मनरिझवणेखातीर पिडापीड करपी असल्या खेळांविशीं कांय लोक नापसंती दाखयतात.ह्याच कारणाखातीर सद्याक गोंयांत अशा धिरयांचेर बंदी घालची म्हणून न्यायालयांत अर्ज केल्लो आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**धुकें :** जातूंत नदरेची कक्षा (Visibility) एक हजार मीटर अंतरापरस उणी आसता अशा जमनीच्या वा उदकाच्या वयल्या थराक स्पर्श करपी एक तरेचें कूप. नदरकक्षा एक हजार मीटरांपरस चड आसल्यार ह्याच कुपाक 'झकळ' (mist) अशें म्हण्टात.

ध्रुवी वाठारांत वा दर्याचेर तयार जाल्ल्या धुक्यांत भौतेक करून द्रवरूप जाल्लें उदका बाश्पकण वा अतीसुक्षीम हिमस्फटीक आसतात. पूण भूंयतळाचेर जाल्ल्या धुक्यांत धुल्लाचे कण, कार्बन कण, मिठा कण हे सारकिलीं आद्रताय आशिल्लीं द्रव्यां आसूं येतात.

दर्यादेगे लागसारच्या वाठारांत, दोंगरांचेर उपाट उदकाबाश्प आशिल्ल्या देगणांनी तशेंच पृश्ठभागावयलें उदक थंड आसता, अशा दर्याथराचेर धुकें तयार जाता. भुंयेवयल्या भागाचेर धुकें चड करून सकाळीं दिसता. लंडन, लॉस एंजलीस, टोकियो, पिटसबर्ग हेसारख्या उद्येगीक शारांतले हवेंत उदका बाश्पाप्रमाणूच धुल्लाचे कण आनी धुम्रकण व्हडा प्रमाणात आसतात. ताका लागून विखारी आनी अपायकारक धुक्याचो (Smog) प्रसार जाता. लंडनांत डिसेंबर १९५२त अशे तरेन उपराशिल्ल्या धुक्याच्या प्रदुशणाक लागून चार हजारांवयर लोकांक मरण आयिल्लें.

धुक्यांत सापेक्ष आद्रताय शंबर टक्के आसुंकूच जाय, अशें ना. ती ९५ टक्क्यांपरस चड, म्हळ्यार संतृप्त अवस्थेंत आसता. शारांतले प्रदूशीत हवेंत जेन्ना धुकें पातळटा, तेन्ना अंधूकपण, धुंवरी, झाकळ आनी धुकें असो क्रम दिश्टी पडटा. संद्रवीत कणांचो आकार आनी संख्या वाडिल्ल्यान झाकळीचें धुक्यांत रुपांतर जाता.

विंगड विंगड वाठारांनी जेन्ना धुकें पडटा, तेन्ना हवेंत उदकाचो अंश कितलो आसूं येता, हाचेविशीं कांय म्हत्वाचे निकश थरयल्यात. ध्रुवी वाठारांत, दर्याभागाचेर वा भूंयतळाचेर तयार जाल्ल्या धुक्यांत हवेंतल्या उदकाचो अंश सारकोच आसलो, तरी धुक्यांतल्या घटक कणांच्या आकाराचो वा संख्येचो नदरकक्षेचेर परिणाम जाता. दर्यावयल्या धुक्यांत संद्रवीत कण संख्येन उणे पूण आकारान व्हड आसतात आनी शारांवयले प्रदुशीत हवेंत धुक्याचे कण संख्येन चड पूण आकारान ल्हान आसतात. ताका लागून दोनूय तरांच्या धुक्यांनी उदकाचो अंश आसलो, तरी दर्यावयल्या धुक्यांत शारी धुक्यापरस नदरकक्षा (Visibility) चड आसाता. धुक्यांतलो उदकाचो अंश विस्तृत मर्यादांप्रमाण खूबदां बदलत आसता.

भूंयतळाचेर धुकें शरद ऋतूंत आनी शिंयाळ्यांत पडटा, दर्याभागाचेर तें वसंत ऋतूंत आनी गिमाळ्यांत पडटा. उंच कटिबंधीय वाटारांपरस मध्यमकटिबंधीय वाठारांत धुक्याची परत परत उपरासपाची शक्यताय चड आसता. जमनीवयल्या धुक्याचो ऊर्ध्व विस्तार भूंयतळासावन २२५ मी. मेरेन आसता, जाल्यार दर्यावयल्या धुक्याचो ऊर्ध्व विस्तार १५० मी. मेरेन आसता.

भूंयतळा लागसारची आर्द्र हवा थंड जावन तिचें तापमान दव अंकासकयल गेल्यार चड करून धुकें तयार जाता. खूबदां धर्तरेवयले उश्ण उदक बाश्पीभवन क्रियेन लागसल्ले शुश्क थंड हवेंत वचून हवा संतृप्त जाल्यारय धुकें आसता. अशे तरेन शीतलीकरण (तापमान उणें जावप) आनी बाश्पीभवन ह्या दोन क्रियांक लागून धुकें पडटा. जी परिस्थिती धुकें निर्माण करपाक अनुकूल आसता, तेप्रमाण धुक्याचे वेगवेगळे प्रकार थरयल्यात.

**शीतलीकरण धुकें :** वेगवेगळ्या तरांनी आर्द्र हवेंतली उश्णताय

वचून ती थंड जावंक शकता. वारो नाशिल्ले रातीकडेन प्रारणक्रियेन भूंयतळावयली उश्णताय अंतराळांत उत्सर्जीत जाल्यार भूंयतळ थंड जाता. ताका लागून लागशिल्ली हवाय थंड जाता. हे हवेंत फावो त्या प्रमाणांत आर्द्रताय आसल्यार अशा शीतलीकरणाक लागून ती रोखडीच दवांक वा संतृप्त बिंदू गांठ्ठा आनी धुकें तयार जाता. अशे तरेन तयार जाल्ल्या धुक्याक 'प्रारणजन्य धुकें' अशें म्हण्टात. दुसरे तरेंत, दर्यावयल्यान येवपी उश्ण-आर्द्र हवेचो लोट रातचो ल्हव ल्हव थंड जायत वचपी भूंयतळांवयल्यान वा थंड दर्याथरावयल्यान संथपणान व्हांवत गेल्यार ही उश्ण आर्द्र हवा सकयल्या भूंयतळाक उश्णताय दिता आनी ल्हव ल्हव थंड जायत जायत दवबिंदू तापमानाच्या सकयल वचून भूंयतळाचेर वा दर्याथरार धुक्याची निर्मिती जावं येता. ह्या प्रकारच्या धुक्याक 'अभिवहन धुकें' अशें म्हण्टात.

जेन्ना दोंगराच्या वाऱ्याची शक्यताय आशिल्ले वटेन दिश्टी पडपी उश्ण-आर्द्र हवेचो प्रवाह पर्वताची चडटी चडटना प्रक्रियेन थंड जावन निमाणो दवाक आनी संतृप्तावस्था गांठ्ठा, तेन्ना दोंगराच्या कांय थरावीक उंचायेचेर धुकें तयार जावपाक सुरवात जाता. अशे तरेच्या धुक्याक 'दोंगरी धुकें' अशें म्हण्टात.

**बाश्पीभवन धुकें :** उच्चतर तापमानाच्या उदकाचें शुश्क थंड हवेंत बाश्पीभवन जालें आनी जर हवेंत संद्रवण घडोवन हाडपी आर्द्रतेचीं केंद्रकां भरपूर प्रमाणांत आसलीं, जाल्यार थोड्या वेळान हवेक संतृप्तावस्था मेळून धुकें तयार जाता. अशे तरेन निर्माण जाल्ल्या धुक्याक 'बाश्पीभवन धुकें' म्हण्टात.

हें धुकें दोन तरांनी तयार जाता. पयलो प्रकार म्हळ्यार जेन्ना थंड शुश्क हवेचो लोट बऱ्याच उच्च तापमानाच्या उदकाथरावयल्यान वचूंक लागता, तेन्ना बाश्पी भवन धुकें तयार जाता. तेखातीर हवेच्या आनी उदकाच्या तापमानांत खुबूच (१०° ते २° सॅ.) फरक आसचो पडटा. जेन्ना बर्फ आशिल्ली आर्क्टिक क्षेत्रावयली थंड हवा विस्तृत उश्ण उदकाथरावयल्यान व्हांवंक लागता, तेन्ना बर्फाच्या थरांनी रेवडायल्ल्या आर्क्टिक क्षेत्राच्या कडांचेर बाश्पीभवन धुकें पातळ्ळिलें दिसता. ह्या धुक्याक 'आर्क्टिक दर्यावयली धुंवरी' अशें नांव दिलां.

दुसरो प्रकार म्हळ्यार जेन्ना कांय उंचायेवयल्यान उश्ण हवेंतल्यान आयिल्ले पावसाथेंबे भूंयतळा लागसारच्या दाटायेच्या वा थंड हवेच्या थरांत वचून सकयल पडूंक लागतात, तेन्ना उश्ण पावसा ओथांब्यांचें शुश्क थंड हवेंत बाश्पीभवन जावन धुकें तयार जाता. अशा धुक्याक 'पावशेल्लें धुकें' अशें म्हण्टात. उच्च पातळेवयली उश्ण-आर्द्र हवा आनी भूंयतळा लागसारची थंड शुश्क हवा व्यापपी क्षेत्रांत अशी परिस्थिती उपरासता देखून ताका शिमेतळावयलें धुकें अशेंय म्हण्टात दर्यावाठारांत उपाट धुकें निर्माण जाता, तेन्ना थंयचे येरादारींत आडखळी उपरासतात. धुक्याचो परिणाम विमान येरादारीचेरूय जाता. धुकें दोन तरांनी निश्प्रभ करतात - १) धुक्याच्या प्रभावाखाल आयिल्ली हवा उश्ण करून धुक्याच्या कणांचें बाश्पीभवन करप २) धुक्याचे कण व्हडले करून ते पावसाच्या रुपांत काडून घेवप.

भारतांत धुकें चड करून शिंयाच्या दिसांनी तयार जाता. चडशें धुकें उत्तर भारतांतूच पडटा. शिंया दिसांनी भारतांत अस्तंतेकडल्यान अभिसारी चक्रवात येतात. उदेंतेकडेन वा ईशान्येकडेन वता आसतना ताका लागून तांचेवरवीं शिंयाळ्या पिकांक फावो असो शिंवर जाता. खंयचेय सुवातेर पावस पडटकच अभिसारी चक्रवात उदेंतेकडेन येवन वतकच ते सुवातेर शुश्क आनी अतीथंड हवेचे लोट येतात आनी प्रारणजन्य धुकें तयार जाता. दक्षिण भारतांत १६° उत्तर अक्षवृत्ताखाला धुकें पडच ना. ईशान्य भारतांत धुक्याचो आंकडो सगळ्यांत चड आसता. पावसाळ्या उपरांत एक दोनदां धुकें पडटा. मुंबय, दिल्ली, कानपूर, कलकत्ता सारकिल्या उद्येगीक शारांनी प्रदुशणाचीं धुकीं तयार जातात. गोंयांत शिंया दिसांनी मदीं-मदीं धुकें दिश्टी पडटा.

– मुकेश थळी

पूरक नोंद – पावस.

## धुमे, नारायण विठ्ठल शेणवी :

पुर्तुगेजांचो वकील. विठोजी धुमेचो दुसरो पूत. १७७५ त गव्हर्नर दाँ जुझे पेद्रु द काम्र हाणें ताका पुणें दरबारांत वकील म्हणून धाडिल्लो. वकील म्हणून पुण्यांत वतकच ताणें फिरंग्यावतीन मराठ्यांकडेन बेस बरो वेव्हार केलो. चार मे १७७९ दिसा ताणें पेशवे-फिरंगी हांचेमदीं जी कबलात केल्ली आनी ११ जानेवारी १७८० दिसा गवर्नर दाँ फ्रेदेरीकु गिल्हेर्मि द सौझ हाणें जी मान्य केली ते कबलातीवरवीं वसईच्या सुभेदाराकडल्यान १२ हजार रुपया उत्पन्नाचे गांव पुर्तुगेजांक मेळ्ळे. ताचे उपरांत खूबसो पत्रवेव्हार जातकच त्या गांवांचे उत्पन्न म्हणून पुर्तुगेजांक पेशव्यांनी ७२ गांव दिले. ह्या गांवांक उपरांत नगरहवेली परगणा म्हणूंक लागले. १२ मे १७९० दिसा धुमेक पुण्यांतच मर्ण आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

## धुमे, विठोजी शेणवी :

पुर्तुगेजांचो विदेशी वकील. हाचें घराणें मूळ कुडाळचें, पूण धर्मांतराच्या वेळार आदीं दिवचल आनी उपरांत तें कुभारजुंव्यां वचून रावलें. ह्या घराण्यातलो विठोजी हो पयल्या पांवड्याचो मुत्सद्दी जावन गेलो. पुर्तुगेजांचो विदेशी वकील जातकच ताणें पुर्तुगेजांखातीर जायत्यो कामगिऱ्यो केल्यात. सुमार तीस वर्सां तो पुर्तुगेजांचे चाकरेंत आशिल्लो.

इ. स. १७३९ वर्सा व्यंकटराव घोरपडे आनी दादाजी भावे नरगुंदकर हाणीं साश्ट बारदेस म्हाल घेतले तेन्ना विठोजी शेणवी धुमे हाणें सातारा, पुणें आनी कोल्हापूर दरबारांत आपलें बस्तान बसयलें आनी पुर्तुगेजांक ह्या संकटांतल्यान वाट दाखयली. इ. स. १७४०त नारो राम मंत्री कवळ्यां येतकच वाडकर सावंताकडेन चालिल्ल्या पुर्तुगेजांचे कबलातीक ताणें आदार दिवंचो अशी विनवणी करपाक तो पुर्तुगेजांचे सांगणेन ताका मेळ्ळो. तशेंच, ताच्या आदारान कबलात करून बारदेस म्हाल वाडकरांकडल्यान घेवन परत पुर्तुगेजांक दिलो.

१७४६ त रामचंद्र मल्हार सुखटणकार जेन्ना गोंयांत आयिल्लो तेन्ना पुर्तुगेजांवतीन नजराणो घेवन विठोजी धुमे ताका मेळ्ळो आनी वाडकरांच्यो आनी पुर्तुगेजांमदल्यो वाटाघाटी घडोवन हाडल्यो. तशेंच आनीक एक फावट मराठ्यांकडेन आशिल्लो फोंडेंचो किल्लो घेवपांत विसिरै काँदि द आलव्होर हाका येस आयलेंना तेन्ना १७५७त जेन्ना त्र्यंबकराव विश्वनाथ फोंड्यां आयलो तेन्ना ताचेकडेन वाटाघाटी करपाक विसिरैन विठोजी धुमेक धाडलो. अशे तरेन विठोजीन पुर्तुगेजाच्यो जायत्यो मोलादीक कामगिऱ्यो केल्यो.

पांडुरंग उर्फ पोक्या शेणवी धुमे हो ताचो पूत. ताचेवरीच पुर्तुगेजांचे सेवेंत आशिल्लो. मार्च १७६७ त माधवराव पेशव्याचो मामा गंगाधरराव रास्ते सांखळे आयिल्लो तेन्ना पोक्या धुमे गवर्नरावतीन ताका मेळूंक गेल्लो.

\- कों. वि. सं. मं.

**धुरी, दत्ताराम बाबुराव :** (जल्म : ७ जून १९१४, म्हापशें; मरण : मार्च १९७७).

सुटकेझुजारी. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आसलो. पत्रकां वांटप, वण्टीपत्रकां लावप असलीं कामां तो करतालो. १९५७ त पोलिसांनी ताका धरलो आनी पुर्तुगेजांच्या प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ८ वर्सांची बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. २० डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९७४ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

\- कों. वि. सं. मं.

**धुरी, नारायण रघुनाथ :** (जल्मः १९२८, ब्रह्म करमळी - सत्तरी).

सुटकेझुजारी. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. कृष्णराव राणे हाचेवांगडा तो भूंयगत वावरांनी वांटो घेतालो. ताचेखातीर ताका स म्हयने बंदखणूय भोगची पडली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

\- कों. वि. सं. मं.

**धूप :** धार्मिक कार्यावळींनी सुगंधी धुंवर करपाखातीर वापरांत आशिल्लो एक सुगंधी पदार्थ. धूप हो श्रीचंदन, साल, कालागुरू, देवदार, पारजत, गुग्गूळ आनी धूप ह्या रुखांचे दीख आनी हेर सुगंधी द्रव्यां घेवन तयार करतात. धूपांमदीं पंचांग, षडांग, दशांग, द्वादशांग, शोडशांग अशे प्रकार आसात. तेभायर यक्षधूप, वृकधूप, अनंतधूप, विजयधूप, पींडधूप अशे संस्कृतीक संदर्भ आशिल्ले धूपाचे प्रकार आसात.

देवाचे पुजेंत सुगंधी पदार्थ जाळपाची चाल खूब आदींसावन सगळ्या धर्मियांमदीं मेळटा. भारतावांगडाच ईजिप्त, बॅबिलोनिया, सिरिया, ग्रीस, रोम ह्या देशांनी धूप जाळपाची चाल आदींसावन आसली. हिंदू, क्रिस्तांव आनी मुसलमान पुजा अर्चेंत धूपारती दाखयतात. मातयेच्या वा धातूच्या धुपारण्यांत पेट्टे इंगळे घालतात आनी ताचेर धूपाचे खडे वा पूड उडयतात. वासाच्या धुंवरान भरील्लें धूपारणें देवामुखार ओवाळटात ताका धूपारती म्हण्टात. धूपारतीचे प्राकृतिक आनी लाक्षणीक अशे दोन उद्देश दिसतात. धूपाच्या वासान घाण वचून देवकार्याक प्रसन्न अशें वातावरण निर्माण जाता. धूप जळून धूपाच्या वासान दैत्यांक धावंडावप जाता असोय ताचो लाक्षणिक अर्थ काडूंक येता. देवपूजेभायरूय मंडपांत वा घरांत प्रसन्न वातावरण निर्माण करपाखातीर वा जीवजंतू धांवडांवपाखातीर धूपाचो वापर जाता. ल्हान भुरग्यांच्या आंगाक न्हाल्या उपरांत आंगातलें उदक शोशून घेवपाक जळत्या धूपाचो शेक दिवप जाता.

\- कों. वि. सं. मं.

**धुमकेतू :** सुर्याभोंवतणीं घुंवपी अंधूक (अस्पश्ट) अशो ज्योती. ह्या ज्योतींचें दर्शन आनी परजळीतपण हें तांच्या आनी सूर्य हांच्या मदल्या अंतराचेर आदारून आसता. धुमकेतू सुर्याकडेन खूब लागीं येता तेन्ना ताचीं वेगवेगळीं आंगां स्पश्ट दिश्टी पडटात. जेन्ना ह्यो ज्योती सुर्यासावन खूब पयस आसतात तेन्ना त्यो अस्पश्ट नखेत्रांसारक्यो दिसतात. अशा वेळार फकत धुमकेतूचो गाभो (Nucleus) दिश्टी पडटा. धुमकेतू जेन्ना सुर्यावटेन येवपाक लागता तसो ताच्या गाभ्या भोंवतणीं अंधूक उजवाडसो दिश्टी पडटा. गाभ्यांतल्यान भायर सरपी वायू आनी ताचे भोंवतणीं आशिल्ल्या धुल्लकणांचेर वत पडटा, तेन्ना तें परावर्तीत जाता. हाका लागून वायू आनी भोंवतणीं आशिल्ले धुल्लकण चकचकपाक लागतात. हांकां शिखा (coma) अशें म्हण्टात. धुमकेतू जेन्ना सुर्याकडेन चड लागीं येता तेन्ना शिखाफाटल्यान शेपटी दिश्टी पडटा. शिखा आनी शेपटी हांचेमदली शीम अदमासान थरोवंची पडटा.

सुर्याभोंवतणीं साबार धुमकेतू तांचे खाशेले कक्षेप्रमाण भोंवतात. जण एका धुमकेतूक ताचे कक्षेवयल्यान वा नांवावयल्यान वळखतात. चडशा धुमकेतूंक तांच्या संशोधकाचें नांव दिल्लें आसा. हॅली ह्या संशोधकान हॅली धुमकेतूचो आवर्तनकाळ थरोवंचे पयलीं, हो धुमकेतू साबार खेपो दिश्टी पडिल्लो. पूण हॅली हाणें ह्या धुमकेतूचो रीतसर अभ्यास करून ताचो आर्वतन काळ थरयलो म्हणून ताका हॅली हें नांव मेळ्ळें. एकूच धुमकेतू जेन्ना दोन वा चड संशोधकांक दिसता आनी ते स्वतंत्रपणान ताचो अभ्यास करतात, अशा धुमकेतूंक जोड नांवां दवरतात. (देखीक - हॅरिंगटोन - ॲबल, १९६२ II) कांय खेपे एक नवो धुमकेतू दिसलो म्हण्टकूच ताका रोखडेंच तात्पुरतें नांव दितात. उपरांत ताची कक्षा, आवर्तन काळ हांची पुराय माहिती मेळ्ळी म्हणटकूच ताका खाशेलें नांव दितात. (देखीक - विपल धुमकेतूचें सुर्वेचें नांव १९४० ब, आनी खाशेलें नांव १९४१ III विपल).



वेदीक वाङ्मयांत कांयकडेन धुमकेतूंचीं वर्णनां केल्लीं आसात. इ. स. पांचव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन वराहमिहीर हाणें आपले बृहत्संहितेंतल्यान केतूचार ह्या ६४ श्लोकांच्या अध्यायांत धुमकेतूंचीं रुपां, कोर, आंकडो, आकार आनी हेर म्हायती दिल्या. कांय ऋषी धुमकेतूंचो आंकडो एकशें एक जाल्यार कांय ऋषी तो एक हजारांवयर आसा अशें सांगतात, अशें

केतूचारांत म्हळां. चीनी वाङमयांत इ. स. प. ३००० वर्सां पयलींसावन धुमकेतूंचे उल्लेख आयिल्ले आसात. तशेंच, प्राचीन ग्रीसी आनी रोमी लोकांनीय धुमकेतूचे उल्लेख केल्ले मेळटात.

सोळाव्या शेंकड्यामेरेन धुमकेतूंविशीं विंगड विंगड मतां आशिल्लीं. १५७७ त ट्यूको ब्राए आनी मायकल मिस्टलीन हाणीं कांय धुमकेतूंचे हालचालींचें बारीकसाणीन निरिक्षण करून ते धर्तरेसावन खूब पयस आसात हें सिद्ध केलें. उपरांत सतराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन न्युटन हाणें धुमकेतूंच्या कक्षेच्या आदारान तांची गती थरवपाचो वावर केलो. एडमंड हॅली हाणें गणिताच्या आदारान साबार धुमकेतूंच्यो कक्षा थरयल्यो. १८०९ त जर्मन गणिततज्ञ सी. एफ. गौस हाणें धुमकेतूंच्या कक्षांचें गणीत करपाची एक व्यापक पद्दत सोदून काडली. हेच पद्दतीच्या आदारान योहान एंके हाणें १८१८ त दिश्टी पडिल्ल्या धुमकेतूचो रीतसर अभ्यास करून तो आदीं साबार खेपे येवन गेला हें स्पश्ट केलें. ताणें ताचो आवर्तन काळ ३.३ वर्सां थरयलो. हाका लागून तो एंके धुमकेतू म्हणून प्रसिद्ध जालो.

सोळाव्या शेंकड्यांत धुमकेतूची शेपटी सदांच सुर्याचे विरूद्ध दिशेक आसता हें सिद्ध जालें. सुर्याभोंवतणीं भोंवाडे मारपी कांय घन पदार्थांचे समुदाय आनी धुमकेतू हांची घुंवपाची कक्षा लागींलागीं एकूच आसता हें एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक सिद्ध जालें. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दामेरेन लेगीत धुमकेतूच्या भौतिकी रचणुकेविशीं व्हडलीशी म्हायती मेळूंक नाशिल्ली. १८६४ त धुमकेतूंचो अभ्यास करपाखातीर पयलेच खेपे दृश्य वर्णपटलेखाचो (Visual Spectroscopic Observation) उपेग केलो. विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक ह्या शास्त्रांत खूब सुदारणा जाली. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत अवकाशयानांचे सर्तीक लागून धुमकेतूंविशीं चड आनी चड म्हायती मेळपाक लागली. सद्या फोट्यांच्या आदारान धुमकेतूच्या चडशा भागांचो सोद लागला. कांय वेवसायीक अंतराळ शास्त्रज्ञ मळबांत सर्वेक्षण करता आसताना साबार धुमकेतूंचो अचकीत सोद लागिल्लो आसा. १९५१ ते १९७० ह्या काळांत सांपडिल्ल्या धुमकेतूंची वर्सुकी सरासरी णव इतली आसा. विसाव्या शेंकड्याच्या शेवटामेरेन धुमकेतूकडेन अवकाशयान धाडून ताचो बारीकसाणीन अभ्यास करचो, अशी शास्त्रज्ञांची आशा आसा.

धुमकेतू मळबांत अचकीत दिश्टी पडटा आनी कांय दिसांउपरांत रोखडोच तो नाच्च जाता. हाका लागून धुमकेतूंच्या सभाव गुणांविशीं आयज लेगीत व्हडलीशी म्हायती मेळूंक ना. धुमकेतूची म्हायती मेळपाखातीर तो नितळ दिसपाक जाय. चडशे सगळे धुमकेतू मुखेलपणान सुर्वेक अस्पश्ट दिसतात. नितळ दिश्टी पडपी धुमकेतू मुखेलपणान तीन वांट्यांनी विभागिल्लो आसता. हे तीन वांटे म्हळ्यार गाभो (Nucleus), शिखा (Coma), शेंपटी (Tail). नखेत्राप्रमाण लिकलिकपी धुमकेतूचो गाभो मध्य भागार आसता. ह्या गाभ्या भोंवतणीं वाटकुळेंच धुकेंशें पातळिल्लें आसता. धुमकेतूचो आकार ताच्या गाभ्याचेर आदारून आसता. एंके धुमकेतूच्या गाभ्याची त्रिज्या १.५ किमी. जाल्यार हॅली आनी ह्यूम्यासोन ह्या धुमकेतूंच्या गाभ्याची त्रिज्या २०-२५ किमी. इतली आसा. शिखा आनी शेंपटी हांचें अस्तित्व गाभ्याचेर आदारून आसता. गाभ्या भोंवतणीं वाटकुळें धुक्याभाशेन दिश्टी पडपी शिखा धुल्लकणांसावन आनी गाभ्यांतल्यान भायर शेंवटुपी वायुसावन तयार जाल्ली आसता. सादारणपणान शिखाचो व्यास १०,००० किमी. आसपाक शकता. गाभो आनी शिखा मेळून धुमकेतूचें शीर्ष (तकली) तयार जाता. ह्या शीर्षासावन आयिल्लया लांबसार पूण अंधूक अशा पिसाऱ्याक धुमकेतूची शेपटी अशें म्हणटात. धुमकेतू सुर्यालागीं येता तेन्ना शेंपटेचे दोन वांटो जातात. तातूंतलो एक सरळ आसून तो वायू आनी आयनांसावन तयार जाल्लो आसता. ह्या भागाक वायुपूच्छ अशें म्हण्टात. दुसरो भाग मातसो वांकडो आसून ताका धुल्लपूच्छ अशें म्हण्टात. हो भाग धुल्लकणांसावन तयार जाल्लो आसता. शिखे भोंवतणीं धुमकेतूचें वातावरण आसता. ल्हान धुमकेतू फकत दूरदर्शकांतल्यानूच दिश्टी पडटात.

धुमकेतूंविशीं साबार अंधश्रध्दा चालिंत आसात. धुमकेतू चड करून अचकीत दिश्टी पडटा आनी कांय दिसांउपरांत नाच्च जाता. हाका लागून प्राचीन काळासावन लोकांच्या मनांत धुमकेतूविशीं एके तरेचो अपशकुनात्मक भंय निर्माण जाला. धुमकेतू दिश्टी पडटा त्या वर्सा राजाक मर्ण येता वा ताचो पराभव जाता. तेचप्रमाण दुकळ, रोगाच्यो धामी वा भिरांकूळ संकश्टां येतात अशो लोकांच्यो वेगवेगळ्यो समजुती आसात.

डॉ. अरुण हेबळेकार

**धूळवड :** फाल्गून पुनवेदिसा होळी जातकच दुसऱ्या दिसा होळयेच्या गोबराची पुजा करतात. पुजा जातकच मंत्र म्हणून तिची प्रार्थना करतात ती अशी -

वन्दितासि सुरेन्द्रेण ब्रह्मणा शंकरेणच ।
झअतस्त्वं पाहि नो देवि भूते भूतिप्रदा भव ।

**अर्थ** - हे धूळि, ब्रह्मा - विष्णु - महेशानी लेगीत तुका वंदन केलां. तेखातीर हे भूते देवी, तूं आमकां ऐश्वर्य दिवपी जा आनी आमची राखण कर. सगळ्या प्राणीमात्रांचेर दया दाखय. जें अनिश्ट - वायट आसा तांचो नाश करून आमचें कल्याण कर.

गोंयांत 'धूळवड' मनोवपाची पद्दत वेगवेगळी आसा. ज्या ज्या गांवाची जी जी प्रथा आसा, ते ते प्रमाण तशे पद्दतीन ती मनयतात. गोंयांत भोवतेककडेन शिगमो धूळवडीनूच सोंपता. शिगम्याच्या उत्सवांत खंय रोमट - सुवारी, खंय गडे जाल्यार खंय नाटकां जातात. निमाण्या दिसा धर्मीक विधी युक्त अशी धूळवड करतात. हे धूळवडीन गांवगिऱ्या वाठारांत आदीं देवाक गुलाल ओंपून उपरांत लोक एकामेकांक गुलाल लायतात. कांयकडेन धुळवडी दिसा हेर धर्मीक कृत्यावांगडाच देवाचे अवसर हाडप, गडे पडप सारकिल्यो कार्यावळी जातात.

- माधव गोविंद भुस्कुटे

**धृतराष्ट्र :** काशिराजाची धूव अंबिका हिचो पूत आनी कौरवांचो बापूय. तो जल्मताच कूड्डो आशिल्लो. भिष्माचार्याकडेन ताचें शिक्षण जालें. गांधार देशाचो राजा सुबल हाची धूव गांधारी, हिचेकडेन ताचें लग्न जालें. गांधारीपसून ताका दूर्योधन, दु:शासन अशे शंबर पूत आनी दु:शला ही धूव जाली. धृतराष्ट्राचो भाव पंडू, राज्य सोडून रानांत वतकच धृतराष्ट्र हस्तिनापूरचो राजा जालो. उपरांत ताणें पंडूचो पूत युधिष्ठिर हाका युवराजपद दिलें. ताका लागून धृतराष्ट्राचे पूत आनी पंडूचे पूत हांचेभितर दुस्मानकाय जावन जें झूज जालें ताका महाभारत म्हण्टात.

धृतराष्ट्राक, पांडवांविशीं कसलेंच वायटपण वा दूस्मानकाय नाशिल्ली.

पूण तेचवांगडा दुर्योधनाचें कसल्याय विशयावयलें सांगणें तो सहसा न्हयकरिनाशिल्लो. भीष्म, विदुर हांच्या सांगण्यावयल्यान ताणें पांडवांक अर्दें राज्य दिलें. पूण पांडवांक द्युतांत हारोवपाखातीर दुर्योधनान कपट-कारस्थान रचलें. त्या वेळार धृतराष्ट्रान ताका मोन्यांनी परवानगी दिली. वनवासाक सावन परत येतकच, पांडवांक राज्य परत दिवंचो ना ह्या दुर्योधनाच्या निर्णयान धृतराष्ट्रक दूख्ख जालें. पूण, दुर्योधनावांगडा झूज करिनासताना भीक मागून पोट भरात असो युधिष्ठिराकूच उपदेश केलो. (महाभारत, उद्योगपर्व १२९)

घोव कुड्डो आशिल्यान ताची बायल गांधारी ही आपल्या दोळ्यांचेर पट्टी बांदून रावताली.

निमाणें धृतराष्ट्र आनी गांधारी तप करूंक वनांत गेल्लेकडेन थंय लागिल्ल्या उज्यांत तीं दोगांय मेलीं.

– कों. वि. सं. मं.

**धेंपो उद्देग समूह :** गोंयांत आनी भारताच्या हेर राज्यांनी धेंपो उद्देग समूहांतले वेगवेगळे उद्देग-धंदे खूब कडेन पातळ्ळ्यात. वसंतराव धेंपो हो ह्या समूहाचो मुखेल शिल्पकार. ताचो जल्म ४ मार्च १९१६ दिसा जालो. ताचें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान जालें. पूण मुखावयलें शिक्षण ताणें पुर्तुगेज आनी इंग्लिशींतल्यान घेतलें. पिरायेच्या अठराव्या वर्सासावनच तो वेवसायांत गुंथलो. १९४१ त ताणें 'मेसर्स धेंपो' नांवान लोखण म्हालाचो नवो वेवसाय सुरू केलो. उपरांत तो वेवसाय लोखण म्हालाची निर्यात करपी गोंयांतलो एक मुखेल वेवसाय थारलो. बेगीनूच त्या वेवसायाची खूब भरभराट जाल्ल्यान पुर्तुगेज राज्यकर्त्यांनी ताका कांय खास सवलती दिल्यो. उपरांत 'धेंपो मायनिंग कॉर्पोरेशन' हे कंपनीन आदले मूळ कंपनीच्या तेंक्यान खाण उद्देगांत खूब उदरगत घडोवन हाडली. आदल्या तशेंच सद्याच्या काळांतूय गोंयच्यान निर्यात जावपी लोखण म्हालांत धेंपो खाण म्हालाचो म्हत्वाचो वांटो आसा.



**वसंतराव धेंपो**

खाण उद्देगा खेरीज सद्या ताचे 'धेंपो उद्देग समूह' ह्या नांवाखाल गोंयांत आनी भारताच्या हेर कांय राज्यांनी वेगवेगळे अशे साबार उद्देग पातळ्ळ्यात. सद्या धेंपो उद्देग समुहांतल्या वेगवेगळ्या कारखान्यांनी आनी उद्देगांनी सुमार चार हजारांवयर कामगार वावुरतात. धेंपो उद्देग समुहाक लागून गोंयची अर्थीक स्थिती सुदारपाक व्हडा प्रमाणांत हातभार लागला.

गोंयच्या खाण उद्देगाक खूब वाव आसा. हें जाणून, व्हड-व्हड बोटींनी जलद गतीन म्हाल भरचेखातीर धेंपो कंपनीन एम्. व्ही. प्रियदर्शनी आनी एम्. व्ही. प्रियवंदा ह्यो दोन आधुनिक क्रॅन बोटी हाडल्यो. खोल दर्यांत ८०,००० टन म्हाल व्हरपी बोटींनी दिसाक १५,००० टन म्हाल भरपाची प्रियदर्शनी क्रेनीची क्षमता आसा. जाल्यार प्रियवंदा क्रेनीची २,५०,००० टन म्हाल व्हरपी बोटींनी दिसाक २५,००० टन म्हाल भरपाची क्षमता आसा. खाण उद्देगांत घसघसीत यश मेळ्ळ्या उपरांत वसंतराव धेंपेन आपलें लक्ष हेर उद्देगांकडेन वळयलें. उपरांत धेंपो उद्देग समूहाखाल साबार नवे उद्देग अस्तित्वांत आयले. 'गोवा कारबन लिमिटेड' हे कंपनीची वर्साक ५०,००० टन कॅल्सायनाड पेट्रोलीयम कोक तयार करपाची क्षमता आसा. १९८८-८९ वर्सातली गोंयची उत्कृश्ट कंपनी म्हणून तिका पारितोशीक मेळ्ळें. 'नॅशनल ऑटो ॲसेसरीज' हे वाहन कंपनीखातीर कांय सुटे भाग तयार करपी धेंपे कंपनी आसा. तशेंच कर्नाटकांत दूद प्रक्रिया करपाचो (Dhempo Dairy rural area) कारखानो आसा. धेंपेन गोंयांत उबारिल्ली हिंदूस्थान फुड्स लिमिटेड कंपनी, ग्लॅक्सो (Glaxo) कंपनीच्या जोड पावलान उत्सारीत खाण (Extruded food) न्याहारी पदार्थ (Breakfast food), तशेंच बॉनी मिक्स, फॅरेक्स फ्रूट्स, रोझाना ह्या नांवाखाल भुरग्यांचें खाण तयार करतात. गोंयांत पर्यटन वेवसायाक नेट आयला तें जाणून १९८८त धेंपो कंपनीन 'यूनिवर्सल बेवरेजीस लिमीटेड' ही शीतपेयाची कंपनी 'लेहर पेप्सी ब्रँड' नांवाखाल चलता. ही कंपनी सद्या सबंद गोंयांत तशेंच महाराष्ट्र आनी कर्नाटकांतल्या शेजारच्या गांवांनी शीतपेयाची पुरवण करता. ग्लॅक्सी आनी ग्लॅक्सायड डॅकोरेटीव्ह पेंट, मरीन पेंट, वॉरनीश आनी एनामेल तयार करपी धेंप्याचो 'गोवा पेंट्स ॲंड ॲलीड्' हो कारखानो आसा. धेंपो इंजिनिअरिंग वर्क्स लिमिटेड हे कंपनीची आधुनिक सुकी गोदी आसून, ती बार्जी, न्हंयांतल्यान चिखल उसपूपी बोटी आनी लॉंची बांदता.

भारतांत तशेंच जागतीक मळारूय एक यशस्वी उद्देग समूह म्हणून धेंपो उद्देग समूहाची नामना आसा. धेंपो उद्देग समूहाचो शिल्पकार वसंतराव धेंपो हाणें सरकारी तशेंच बिनसरकारी समितींचो, सल्लागार फांट्यांचो आनी वेपारी संस्थांचो वावर केला. 'गोवा चेंबर ऑफ कॉमर्स ॲंड इंडस्ट्रीज'चो अध्यक्ष म्हणून ताची तीन खेपो निवड जाली. तशेंच गोवा मिनरल ओर एक्सपोर्टस असोसिएशनाचो अध्यक्ष म्हणून दोन खेपे ताणें मुखेलपण केलां. गोंय इंजिनियरींग कॉलेज आनी गव्हर्नमेंट पॉलिटॅक्नीकचो सल्लागार मंडळाचो चेअरमेन म्हणून ताणें वावर केला. इंडियन कमिटी ऑफ लॉयड्स् रजिस्टर ऑफ शिपिंग, इंडियन टॅक्निकल कमिटी ऑफ द अमेरिकन ब्यूरो ऑफ शिपिंग. इंडिया जपान बिजनेस को-ऑपरेशनचो तो वांगडी आसून, ताची इंडो-पुर्तुगाल ट्रेड काउन्सिलाचो अध्यक्ष म्हणून निवड जाल्ली. तसोच इंडिया-कोरिया गव्हर्नींग काउन्सिल ऑफ मार्केटींग मॅनेजमेंटचे स्थायी कमिटीचोय तो वांगडी आसा. उद्देगांखेरीज गोंयच्या सांस्कृतीक, शिक्षणीक आनी खेळा मळारूय उदरगत जावची म्हणून तो खूब वावूरला. विद्यार्थी, देवळां तशेंच हेर संस्थांक आदार करपा खातीर ताणें 'धेंपो चॅरिटी ट्रस्टाची' थापणूक केल्या. धेंपे कॉलेज ऑफ आर्टस ॲंड सायन्स आनी श्रीनिवास सिनाय धेंपो कॉलेज ऑफ कॉमर्स ॲंड इकोनोमिक्स हीं ताणें स्थापित केल्लीं गोंयचीं आद्य आनी नामनेचीं म्हाविद्यालयां. तशेंच ताणे सुरू केल्लीं 'द नवहिन्द टायम्स' (इंग्लीश) आनी 'नवभारत' (मराठी) हीं गोंयचीं प्रसिध्द दिसाळीं आसात.

उद्देगीक आनी भौशीक मळार केल्ल्या वावराक लागून वसंतराव धेंपे हाका साबार पुरस्कार फाव जाल्यात. शिरोमणी संस्थानान ताचो शिरोमणी राश्ट्रीय एकता पुरस्कार दिवन भोवमान केला. भारताचो मान वाडोवपी आनी राश्ट्रीय उदरगतीक हातभार लावपी म्हणून 'एन. आर. आय. - इन्स्टिटयूट-लंडन' हे संस्थेन जवाहरलाल नेहरू एकता पुरस्कार दिवन १९९० त ताचो सत्कार केला. गोंयचे अर्थीक उदरगतीखातीर धेंपो

उद्देगाचो व्हडलो वांटो आसा म्हणून पर्तगाळ मठाचो महाराज श्रीमद विद्याधिराज तीर्थ श्रीपाद वडेर हाणेंय ताचो भोवमान केला. केंद्रीय वाणिज्य मंत्री पी. चिदंबरम हाणे ताका 'कॅापेक्सील' हो भारतातल्यान निर्यात जावपी म्हालाखातीर आशिल्लो खाशेलो पुरस्कार भेटोवन ताचो भोवमान केला (१९९०-९१). देशाच्या उद्देगीक, शिक्षणीक आनी अर्थीक विकासाक धेपो उद्देग समुहाचो खूब हातभार लागला म्हणून भारताचो राष्ट्रपती आर. वेंकटरामन हाणे 'पद्मश्री' पुरस्कार भेटोवन ताचो भोवमान केला. मणिपालच्या टी. एम्. ए. फाउंडेशनानूय ताचो भोवमान केला. हालीच्या तेंपार इन्स्टिट्यूट ऑफ एंटरप्रेनुरशीप डेव्हलपमेंट हे संस्थेन ताका 'भारतीय उद्देग ज्योती' पुरस्कार भेटोवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**धेडी :** व्हंकलेक सांगात दिवपी चलीभुरगें. आदल्या तेंपार गोंयातच न्हय जाल्यार हिंदूस्थानभर चले-चलयांचीं लग्नां भुरगेपणांतच, अज्ञान वयार वा पाळण्यांत लेगीत करताले. चली वयांत येवंचे आर्दी तिचें लग्न करूंक जाय हो धाक आशिल्ल्यान णव वर्सांमेरेन चलयांचीं लग्नां करताले. व्हंकल पिरायेन ल्हान आशिल्लयान ती आवय बापायगेरच ल्हानाची व्हड जाताली. चली वयांत येतकच तिचे आवयबापूय तिका घोवाल्या घरा व्हरून पावयताले.

गोंयांत चडशीं लग्नां पाळण्यांत जाय नासलीं. गोंयांत पांच ते णव वर्सां भितरल्या चलयांचीं आनी तांकां फावो सारक्या दोन-तीन वा पांच-स वर्सांनी जाण्टो अशा चल्या वांगडा लग्न करताले. लग्न करून त्याच दिसा घोवागेर धाडटालीं. व्हंकल ल्हान पिरायेची आशिल्ल्यान तिका घोवागेर कशें वागप तें कळनासलें. तिका आपल्या जिवाची जतनाय लेगीत राखूंक कळनासली. देखून तिचेवांगडा धेडी दिवंची पडटाली.

मोटया-मोटया आद्य गिरेस्त आनी खानदानी घराण्यांतल्या व्हंकलांक लग्नांत आडसाटी, जाण्टीशी बायल-मनीस धेडी म्हणून दिताले. लग्न सुवाळ्या वेळार धेडी व्हंकले वांगडा रावताली. तेल-हळद लावपा वेळार न्हवऱ्याच्या तेलाच्या अहेराचें ताट घेवन धेडीच वताली. उपरांत तिका न्हवरेकारां कडसून बिदागी मेळटाली. लग्न जावन व्हंकल आपल्या नव्या घरा वताना तिचे वांगडा धेडीय वताली. व्हंकल भुरगें सभावान कसल्योय चुको करीत, तिच्या जिवाक कितेंय दुखापत जायत देखून धेडी तिका सांबाळटाली; तिचेर नदर दवरताली. त्या भुरग्याक बुद्द येवन ती जाण्टी जायसर धेडी तिगेर रावताली. कांय धेडयो जल्मभर तिच्याच घरा रावताल्यो.

आदल्या काळांत कांय गिरेस्तांगेर सेवेकारांची म्हळ्यार भावणींचीं घराणीं आसतालीं. ह्याच घराण्यांतलीं भुरगीं व्हंकलेवांगडा धेडी म्हणून वतालीं.

लग्न समारंभांत धेडयेची फकाणां मारपाची चाल आसताली. पूण धेडयेपरस धेडयाचींच फकणां चड मारताले. मध्यम वर्गांतल्या घराण्यांनी जांकां धेडयेचो खर्च करप परवडना त्या लोकांगेर व्हंकलेवांगडा तिची भयण वा फागूर भयण म्हळ्यार बापोलभयण, मावशेभयण बी समवयाचें भुरगें धेडी म्हणून वांगडा धाडपाची चाल आसताली. ही धेडी पिरायेन ल्हान आसताली, देखून ती फकत व्हंकलेक सांगात दिताली. तिका आदार करिनासली. ही धेडी फकत पंदराच दीस व्हंकलेगेर उरताली. उपरांत व्हंकल जेन्ना कुळारा येताली तेन्ना तिचे वांगडा धेडी परत येताली आनी परत तिचे वांगडा वचनासली. कांयकडेन अजुनूय धेडी म्हणून व्हंकलेचे भयणीक तिचेवांगडा धाडपाची चाल आसा.

– कमलादेवी राव देशपांडे

**धेडो :** लग्नसुवाळ्यांत न्हवऱ्यावांगडा आसता तो चलो भुरगो. आदल्या तेंपार चले-चलयांची लग्नां ल्हान पिरायेर करताले. देखून तांकां सांबाळपाक धेडो-धेडी दवरापाची चाल आसताली. त्या काळांत लग्नसुवाळो ४-५ दीस चलतालो. त्या दिसांनी न्हवऱ्याचीं सगळीं कामां धेडोच करतालो. पांच पर्तवणाक, वेय-जेवणाक जेन्ना न्हवरो मावोड्यां वतालो तेन्ना ताचे वांगडा धेड्याकय धाडटाले. थंयूय तो न्हवऱ्याक ताच्या कामांत वांगड दितालो. लग्न सुवाळ्यांतय न्हवऱ्याच्यो वस्तू हाड-व्हर करपाचो वावर धेडोच करतालो. तेलाक न्हवरेकार व्हंकलेक जी केळवण व्हरतात ती धेड्यावरवींच धाडटाले. उपरांत व्हंकलकार धेड्याक पयशे वा भेट दितालीं.

लग्नांत तोखणायेन धेड्याचीं फकाणां-मस्कऱ्यो करपाची चाल आसताली. जेवतना-खातना ताचीं खुबूच फकाणां जातालीं. देखीक - ताका जेवपाक बसपाच्या पाटा पोंदा नाचणे घालून दवरप. पाट गडगडपाक लागलो म्हण्टकच ताका हांसप, ताच्या जेवणांतले जिन्नस केन्ना गोड जाल्यार केन्ना खार करप, मिठाचें उदक जेवणार पियेवंक दिवप. च्या वांगडा मीठ घाल्ले पिठ्याचे लाडू खावंक दिवप. ताका जेवपाक दवरिल्ले पत्रावळीक वा शिर्तेक ताका कळना अशें काळें सूत बांदून दवरप आनी तो जेवतां जेवतां ल्हवू तें सूत ओडप. धेड्याच्या लक्षांत ही गजाल येवपाक बरोच वेळ वतालो. ताची फजेती जातकच सगळ्यांनी मेळून हांसप. अशे तरेन जेवतना, न्हिदतना, न्हातना ताचीं खूप फकाणां करताले आनी लग्नाचे पांच दीस ताची मजा करताले. धेडो शिटूक आसल्यार ताका आपलीं फकाणां रोखडींच कळटालीं. तो रागार जायनासताना फकाणां करतल्यांचीं आपूण परतीं फकाणां करतालो. आनी तांचीय वाट लायतालो. अशे तरेन खेळ खेळिल्लेवरी आदल्या तेंपार धेड्या-धेड्यांचीं फकाणां मारपाची चाल आशिल्ली.

आयचेवरी त्या काळांत मनरिजवणेच्यो सुविधा नाशिल्ल्यान ह्यो असल्यो गजाली मनरिजवण म्हणून करताले. कोणूय धेडो रागीट वा तिरसुवाद आसल्यार तो रागार जातालो. मागीर तो खुबळटा, चाळवता तें पळोवन लोक परत हांसताले. लग्न समारंभाचे चार-पांच दीस सोंपले, तसो न्हवरो आपल्याच घरा उरतालो अशा वेळार धेडयेवरी धेड्याची चड तेंप गरज पडनाशिल्ली. घरा वतना मागीर ताका धेडेपणाची केळवण म्हणून पयशे वा वस्त दिवन भोवमानान घरा धाडटाले. सध्याच्या काळांत न्हवऱ्याचें तरणे पिरायेचेर लग्न करतात. ताका लागून पयलींच्या काळांत न्हवऱ्याक जितली धेड्याची गरज लागताली तितली आतां लागना आनी पयलींभशेन आतांचीं लग्नांय पांच-पांच दीस जायनात. पूण न्हवऱ्या वांगडा धेडो दवरपाची चाल आसा. हो धेडो फकत देवकाऱ्या दिसा आनी लग्नापुरतो न्हवऱ्याकं सांगात दिता.

– कमलादेवी राव देशपांडे

**धेणलो :** राखण्यांची एक परब. 'धेणुलो' 'दिणो' 'धिंडलो' अशींय हे

परबेक हेर नांवां आसात. गोरवांच्या पाडव्यादिसा म्हळ्यार कार्तिक शुद्ध पाडव्या दिसा हो उत्सव मनयातात. हो उत्सव 'गोरवां' संबंदीं आसून ज्या गांवाची अर्थिक वेवस्था गोरवांचेर आदारून आसताली अशाच गांवांनी तो मनयल्लो दिसता. पुर्विल्ले ग्रामवेवस्थेंत, गोंयांत गावडो-नायक ह्यो दोनूय जाती मुखेलपणान शेत-वेवसायाकडेन संबंदीत आशिल्ल्यो. देखून गोंयांत हो उत्सव मुखेल करून 'गावडो-नायक' हांची वसणूक चड आशिल्ल्या गांवांनीच वा ह्या जातींचें वर्चस्व आशिल्ल्या गांवांनीच मेळटा.

गोरवांचें खूब म्हत्व आशिल्ल्या ह्या समाजांत गोरवांचे राखणेखातीर 'राखणो' देवाक होरावपाखातीर धेणलो उत्सवाचो जल्म जालो. धेणलो हें उतर 'दिणो' ह्या उतरावयल्यान आयलां. राखणो देव हो दिणो, ह्या दिण्याचो उत्सव तो 'धिणलो' वा 'धेणलो'. तशेंच जो पंगड हो धिणलो मनयता ते सगळे दिणेच आसताले.



राखणो देवाक 'गवळी' अशेंय म्हण्टात. गवळी म्हळ्यार गवळाचो सांबाळ करपी. पयलीं दरेका गांवांत 'गवळ' सांबाळपाखातीर एक मनीस नेमताले. हो राखण्यांचो मुखेली आसतालो. आदले परंपरेप्रमाण मूळ पुरसाक देवरूप दिवपाचे चालीं तल्यानच गांवच्या मूळ गवळ्याक देवरूप मेळ्ळें आनी ताका दिणो म्हणूंक लागले. ह्या देवाक होरावपाखातीर 'धेणलो' उत्सव जल्माक आयलो.

धेणल्याच्या मुळाचो सोद घेतना गोंयचे गावडे जमातींतल्यान गवळी परंपरेचो उदेव जाल्लो दिश्टी पडटा. आयज गोंयांत आशिल्ले गवळी जमातीच्या बायलांच्या 'नांव घेवपांत' आपूण 'अमूक अमूक गावड्याची बायल' अशे संदर्भ मेळटात. धेणल्याच्या उत्सवा दिसा सकाळींफुडें पयलीं गोरवांची पुजा करतात. ही पुजा राखण्यान म्हळ्यार घरांतल्या दिण्या भुरग्यान करपाची आसता. पुजेपयलीं गोरवांक न्हाणयतात, तांचीं शिंगां रंगयतात. तांच्या गळ्यांत रोजांच्यो माळो वा कुमयाच्या सालीपसून केल्ले गोंडे बांदतात. उपरांत तांची पुजा करून माथ्यार तेल घालतात आनी गळ्यांत नाल्लाचें वळें बांदतात. तांकां सान्नां-पोळे खावयतात आनी उपरांत सोडून घालतात.

गांवचीं गोरवां रानांत पावचे पयलीं सगळे राखणे रानांत जमिल्ले आसतात. ते गोरवांच्या गळ्यांतल्यो माळो, नाल्लाचीं वळीं काडून घेतात. सगळ्या गोरवांच्या गळ्यांतल्यो माळो काडून जातकच धेणलो सजयतात. तेखातीर एका फळ्यार शेण दवरून ताचेर राखणोदेवाच्या स्वरुपांत एक फातर बसयतात. हो देव वर्सभर रानांत एका थरावीक जाग्यार वा झाडाचे धोलींत सांबाळून दवरिल्लो आसता. गोरवांच्या गळ्यांतल्यो माळो आनी दर्भाचीं पिसां लावन धेणलो सजयतात आनी उपरांत दरेकाच्या मानाप्रमाण वचूत तांच्या तांच्या दारांनी धेणलो नाचयतात.

गांवांत दरेकाच्या आंगणांत शेणाचो 'गवळ' वा तशी आकृती तयार केल्ली आसता. हाका 'गोठो' वा 'गोकूळ' अशेंय म्हण्टात. ह्या गवळांत पणसाच्या खोलयांचीं वा काट्टांक व्हीर लावन गोरवांच्यो आकृती करून दवरतात. तेच भाशेन गवळी म्हणून एक तणाचें बावलें करून दवरतात. घरांतल्या दिण्या चल्या भुरग्यान अनवाळ्यांनी ह्या गवळाची पुजा करपाची आसता. उपरांत तांकां जेवणाचो निवेद दाखयतात. ह्या गवळा मुखार राखणे एके खाशेले पद्दतीन धेणलो नाचयतात. धेणल्याचें फळें दोन राखणे दोन वटांनी धरतात आनी उबे रावन एक दांग उजव्यान जाल्यार एक दांग दाव्यान उडयत खाशेले पद्दतीन नाचतात. नाचतल्यांचे हात धेणल्याक धरिल्ले आशिल्यान हातांच्यो हाल-चाली जायनात. पूण पांयाच्या थेक्यांचेर सगळो नाच आदारिल्लो आसता. वांगडचे हेर राखणे ताळ वाजोवन आनी ताळ्यो मारून पदां म्हणीत तांका सांगात करतात.

धेणल्याचीं गितां आकारान ल्हान आसतात देखीक -

धीण धिणुल्यो  
रामा पावस शेणुल्यो  
धेणल्याची म्हातारी  
शेळें अन्न खाताली  
गोपिका! गोपिका!  
वा  
तांबडी पिटोळी,  
धवी पिटोळी  
कणकीच्या मुळां वचून  
झेप घेताली  
गोपिका! गोपिका!  
वा  
म्हातारेच्या घरांत  
पणस पिकला  
चिमटीभर तांदळांत  
गवळी लिपला  
गोपिका! गोपिका!  
वा  
'वागाले धोलींत  
कीर घोंटेला  
निमाणो देव आमचो  
भायर सरला  
गोपिका! गोपिका!'  
वा  
'धिणलो दारांत  
पावस पडटा केरांत'

धेणलो नाचोवपी राखण्याक दरेका घराकडेन नाल्ल-तांदूळ दितात. सगळ्या घरांनी नाचून जातकच राखणे परतून रानांत वतात. थंय जमिल्ल्या नाल्ल-तांदळांचें जेवण रांदून देवाक निवेद दाखयतात आनी उपरांत आपूण जेवतात. ह्या वेळार राखण्याचो अवसरूय येता. राखणे गोरवां संबंदीत किदेंय प्रस्न आसल्यार ताका विचारतात. निमाणें गोरवां -वासरांचे राखणेखातीर देवाक गाराणें घालून, थरावीक न्हंयेचेर वचून

न्हातात आनी तीनसांज जातकच गांवांत परत येतात. धेणल्याचीं फुलां, नाल्लांचीं वळीं प्रसाद म्हणून वांटून घेतात.

गांवांत ह्या वेळार दारांतलो गवळ मोडून त्या शेणाचेर पण्टी पेटोवन दवरतात, गवळ्याक पावयतात म्हळ्यार ताका घराचेर उडयतात. दुसऱ्या दिसा सकाळीं ह्या शेणाच्यो सात शेणयो थापतात. ह्या दिसासावन शेणयो थापूंक सुरवात जाता.

धेणलो ही परब मुखेलपणान गावडो-नायक समाजांत मनयतात. तशेंच, ज्या लोकांगेर गोरवां आसात, तांगेरूय ही परब चड-उण्या प्रमाणांत मनोवप जाता. आयज धेणल्याच्या ह्या उत्सवांत खूब बदल जाल्लो दिश्टी पडटा. पुर्विल्लया फळ्याच्या जाग्यार आयज घुमटच्यो जाल्यात, पाशाणी फातराचे सुवातेर श्रीकृष्णाच्यो मुर्ती आयल्यात - गोंयांत अंत्रूज म्हालांतल्या धेणल्याक खूब नामना आसा. हांगा धेणल्याक एका रथोत्सवाचें रूप येता.

गोरवांच्या ह्या पाडव्या दिसा गोंयभर खूबशा वाठारांनी गोरवांची पुजा जाता. महाराष्ट्रांत ह्या दिसा, राखणे गोठ्यांत येवन गोरवांक उंवाळटात. वारली जमातींत दारांत शेणाचो 'दोंगर' करपाची चाल आसा.

- जयंती नायक

**धेरे, भाऊसाहेब यशवंत :** (जल्म : १३ जून १९३१, अरडगांव, राहुरी, अहमदनगर).

सुटकेझुजारी. तो इंडियन नॅशनल कॉंग्रेस समितीचो वांगडी आशिल्लो. प्रभात फेरयो काडप, भारतीय सुटके चळवळींत घोशणा दिवप असलीं कामां तो करतालो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा कॅसलरॉकच्यान शीम हुंपून ताणें सत्याग्रह केलो. १९५६ वर्सा तो अरडगांव ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हणून वेंचून आयलो. १९५६-१९६५ ह्या काळांत तो रुलिंग कमिटीचो अध्यक्ष आशिल्लो. हाचे भायर १९६३ त अरडगांव शेतकरी संघाचो अध्यक्ष म्हणून आनी १९७४ - १९७७ ह्या काळांत अरडगांव येवजण समितीचो अध्यक्ष म्हणून ताणें काम पळयलां. १९८७ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**धोंड :** शिरगांवची देवी लयराईचो भक्त म्हणून रितीरिवाजा प्रमाण सोपूत घेवन, शिरगांवचे जात्रे रातीकडेन होमखणांतल्यान धांवता ती व्यक्ती. अडचणीच्या वेळार लयराईचे भावीक देवीकडेन आदाराची अपेक्षा दवरतात आनी ताच्या बदलाक तो आपूण वा कुटुंबांतली एक व्यक्ती धोंड जावन लयराईचे जात्रे रातीं होमखणांतल्यान वतलो अशी प्रतिज्ञा करता.

दादले, बायलो तशेंच ल्हान भुरगेय धोंड जावपाक शकतात. धोंड जावपाक जात-पात, धर्म वा लिंगाचो भेदभाव लागना. कांय लोक आपल्या कुटुंबातलें संकश्ट टळचे म्हणून वा कुटुंबातले वायट ग्रह लागिल्ले व्यक्तीक घसघशीत यश मेळचें म्हणून आपूण धोंड जातलों वा करतलों अशी लयराई देवीक आंगवण करतात. लयराईच्या भाविकांमदीं धोंड आनी चौगुले अशे फरक आसात. धोंड हो शिरगांवचो वा हेर खयचेयकडचो आंसूक शकता. पूण चौगुले हे उज्यांतल्यान चलपी देवीचे मूळचे (शिरगांवचेच) भावीक असो समज आसा. चौगुल्यांचो हक्क वंशीक परंपरेन मेळटा. चौगुले सोडून हेर जे कोणूय होमखणांतल्यान चलतात तांकां धोंड म्हण्टात.

लयराई देवीविशीं कांय आख्यायीका आसात. कांय लोक लयराईची म्हायती सांगतात ती अशी - लयराई देवी गोंयची एक शक्ती देवता आसून तिचें ठाणें शिरगांवांत आसा. देवीची मुळावी मूर्त तांदळा स्वरुपाची आसून तिची उत्सव मूर्त चतुर्भूज आसा. लयराई हो वैष्णवी देवीचो अवतार आसा अशें मानतात. लयराई देवी ही सात भयणींतली एक आसून, 'खेतलो' हो तांचो एकमेव भाव. लयराई तांच्यांतली सगळ्यांत व्हडली भयण. जेन्ना लयराईची एक भयण खूब दुयेंत आशिल्ली तेन्ना लयराईन ती बरी जावंची म्हणून धगधगत्या इंगळ्यांवयल्यान चलपाची आंगवण केली. हाका लागून उपरांत तिच्या शिरगांवच्या थळाव्या भक्तांनी (सद्याचे चौगुले) उज्यांतल्यान चलत वचून लयराईचेर आपली निष्ठा आसा हें सिद्ध केलें.



तेन्ना चौगुल्यांक देवीचे वांगडी जावाखातीर सद्याभशेन कसलेच रितीरिवाज करचे पडलेनात. कांय तेंपा उपरांत लयराई देवीची आनी वैशाख शुद्ध पंचमी दिसा होमखणांतल्यान चलपी तिच्या भक्तांची प्रसिद्धि हेरकडेन पातळ्ळी. हाका लागून भोंवतणचे लोक आपणाल्यो अडचणी वा दुख्खां पयस जावचीं ह्या भावार्थान देवीचेर निष्ठा दवरून रितीरिवाजा प्रमाण तिचे भक्त जावपाक लागले. कांय तेंपा उपरांत अशा भक्तांची संख्या वाडत गेली.. चौगुल्यांवांगडा हे भक्तूय होमखणांतल्यान चलपाक लागले. ते भक्त मुंखार धोंड म्हणून प्रसिद्ध जाले. सद्या हिंदू वांगडा कांय क्रिस्तांव धोंडूय पळोवपाक मेळटात. फाटल्या कांय दसकांसावन क्रिस्तांव धोंडांचो आंकडो वाडत आसा.

'पात्रों' जात्रेदिसा धोंडांक खर उपास करचो पडटा. हे जात्रेच्या एका म्हयन्या उपरांत वैशाख शुद्ध पंचमी दिसा शिरगांवची होमखणाची जात्रा जाता. हे जात्रेच्या कांय दीस आदीं, धोंड आनी चौगुल्यांक व्रत पाळचें पडटा. ह्या दिसांनी ते फकत पेज वा फळां खातात. तेचपरी ताणीं सोरो आनी लैंगिक संबंदासावन पुरायपणान पयस रावचें पडटा. जात्रेच्या पांच दीस आदीं धोंडाक हें व्रत चड खरपणान पाळची गरज आसता. जाल्यार चौगुल्यांक तें १५ दीस आदीं पाळचें पडटा. पूण ज्या भटांचेर देवीचो अवसर येता तांकां हें व्रत २२ दीस आदीं पाळचें पडटा, ह्या दिसांनी तांकां पुजा आनी जेवण-खाण वल्यांनीच जेवचें पडटा. जेवणूय वल्यांनीच रांदचें पडटा.

नव्या धोंडांनी हीं व्रतां २२ दीस पाळचीं पडटात. जात्रे दिसा भट

नव्या धोंडाक रितीरिवाजा प्रमाण कौल दिवन देवीचो भक्त करून घेता. देवीचो कौल मेळ्ळे उपरांतूच तो होमखणांतल्यान वचपाक शकता. जात्रे दिसा, लयराईच्या देवळांत प्रवेश करपाखातीर सगळ्या धोंडांक पयलीं थंय आशिल्ले तळयेंत न्हावंचे पडटा. होमखणांतल्यान वचचे पयलींय हे तळयेंत न्हावचें पडटा. जे धोंड होमखणांतल्यान वता आसतना पडून लासतात वा जांच्या पांयांक फोड येतात, अशा धोंडांनी आपलें व्रत रितसर पाळूंक ना असो समज आसा. पूण लाशिल्ल्या धोंडाक हॉस्पिटलांत वा दोतोराकडेन केन्नाच व्हरनात. अशा धोंडांक लयराईच्या देवळांत व्हरून ताच्या घाव्यांवयल्यान देवीचें तीर्थ रकयतात आनी लाशिल्ले सुवातेर देवीचीं पवित्र फुलां दवरतात. घावे पेखसर ताका देवळांतूच दवरतात.

होमखणांतल्यान वचचे आदीं धोंड लयराईच्या देवळांत वचून लयराईचो जयजयकार करीत आनी बेतांचेर बेत मारून वाटकुळे नाचतात. देवी (सायबीण) तळयेर न्हावपाक वता आसतनाय धोंड तिचे मुखार नाचतात. तशेंच ते होमखण पेटोवंचे आदींय होमखणा भोंवतणीं नाचतात.

जात्रे दिसा दर एका धोंडाच्या हातांत बेत (वेत) आसता. हें बेत रंगीत गोंड्यांनी सजयल्लें आसता. सादारणपणान धवें पुडवें, धवें बानयान आनी खांदार शेलो, हो धोंडाचो भेस. पूण कांय धोंड णववारी कापड न्हेसतात. होमखणांतल्यान वता आसताना दर एक धोंड गळ्यांत आनी उजव्या हातांत मोगऱ्याकळ्यांच्यो माळो घालतात. पूण चौगुले आपल्या माथ्याक धवो फेटो बांदतात. धोंड मेले उपरांत ताचें बेत जात्रेदिसा होमखणाक लायतात. भश्टे बायलेन पांचवें उदक न्हालेबगर होमखणांतल्यान वचूंक जायना. जर तिणें तशें केलें जाल्यार ती लासून मरतली असो समज आसा.

शिरगांव खेरीज गोंयांत मयां, मोरजे आनी हेर कडेन त्या त्या देवांचे धोंड आसात. पूण सगळेच कडेन धोंड उज्यांतल्यान चलतात अशें ना. कोंमुरफा गांवांत धोंड नासतना लेगीत होमखणांतल्यान चलपाची धर्मीक कार्यावळ जाता.

उज्यांतल्यान चलपाची धर्मीक प्रथा फिजी, श्रीलंका आनी लातीन अमेरिकेंतल्या कांय देशांनी आसा म्हणपाची नोंद जाल्या. थंय कांय कडेन आंगवण फारीक करपा खातीर मनीस आंगार जळटे इंगळे रकोवन उज्या न्हाण घेतात.

– मारिया बर्नाडेट गोम्स

**धोल :** एक चामड्याचें वाद्य. धोलाचो आवाज धमऽऽ धमऽऽ असो 'ध' काराचे सुरावटीन येता आशिल्ल्यान ताका धोल हें नांव पडलां आसुंये. संगीतोपनिषत्सारोद्दार ह्या ग्रंथांत धोलाक म्लेंच्छवाद्य म्हळां. संस्कृत भाशेंत ह्या वाद्याक षटह अशें नांव आसा. धोलाचे खूब प्रकार आसात. कलकत्याच्या इंडियन म्युझियमांत सुमार २८७ प्रकारचे धोल आसात. गुरू रवेगदास हाणें इ.स.च्या १०व्या वा इकराव्या शेंकड्याच्या मध्याक 'धोलसागर' ह्या ग्रंथाची निर्मिती केली.

धोलसागर ह्या ग्रंथांत धोल हें विश्वाचें प्रतीक आसून, ब्रह्मा, विष्णु, महेश आनी पार्वती हाणीं तो तयार केला. धोलवादनाच्यो अमृत, सिंधू, पराणी आनी मध्यानी अशो चार शैली आसून ताचे प्रवर्तक अनुक्रमान इंद्राच्या दरबारांतलो उद्यीमदास, मांधात्याच्या दरबारांतलो बामादास, महेंद्राच्या दरबारांतलो विदिपालदास आनी विक्रमादित्याच्या दरबारांतलो अगवानदास, हे आसात. आर्विल्ल्या काळांत अगवानदासाची मध्यानी शैली उर्जितावस्थेक आयली. हे मध्यानी शैलीचे सूत्रिका, बाकुली, सेंदुरी आनी झारखंडी अशे चार प्रकार आसात. तांकां अनुक्रमान उत्तरी, दक्षिणी, उदेंती आनी अस्तंती शैली अशीं नांवां आसात.



धोलाचें आंग लाकडी आसता. कांयकडेन तांब्याच्या धातुचोय धोल करतात. धोलाची लांबाय सुमार २०-२२ इंच आसता आनी सगळेकडेन समान आशिल्लो व्यास उण्यांत उणो १५ आनी चडांत चड सुमार ३० इंच आसता धोलाचीं दोनय तोंडां ताणयल्ल्या बोकड्याच्या चामड्यान बंद करतात. दोनय वटेनच्यान येवपी आवाजांनी फरक आसचो देखून दोनय चामड्याचे दाटायेंत फरक आसता. धोल दोनय हातांनी तोणयो घेवन (दोनय तोकांकडेन गुळे आशिल्ल्यो १२-१४ इंचांच्यो बडयो) वाजयतात. ल्हान धोल गळ्यांत घालून जाल्यार व्हड धोल फाटीर मारून वा जमनीर दवरून वाजयतात. धोलाचो आवाज धीरगंभीर प्रकृतीचो आसता आनी ताचो धमऽ धमऽ असो धुमपी आवाज येता. धोल हें साथी वाद्य म्हणून वापरप जाता आनी ताचेर तालाचो ठेको धरप जाता.

गोंयच्या दोन तोंडांच्या वाद्यांमदलें धोल हें सगळ्यांत मोटें वाद्य. पंचवाद्य मेळांतल्या तासो ह्या मुखेल वाद्याच्या बोलांक (वादनाक) पूरक बोल दिवपी धोल हें सगळ्यांत मोटें वाद्य. तासो तबल्याचे बोल जाल्यार धोल डग्ग्याचे बोल काडटा. लग्न, जात्रा वा हेर उत्सवावेळावयल्या वाजपांत धोल हें एक साथीवाद्य आसता. शिगम्याच्या वाजपांत (रोमट) धोल हें मुखेल वाजप आसता. तालगडी, तोणयामेळ, गोफ, मुसळांनाच, सारकिल्या नाचां वेळार वाजपी वाद्यांनी धोलाचो आस्पाव जाता.

ल्हान आकारच्या धोलाक धोलकें म्हण्टात. जंय धोल घेवन वावुरपाक अणचणीचें जाता थंय धोलक्याचो उपेग करतात. तशेंच जंय सौम्य वाजपाची गरज लागता थंय धोला जाग्यार धोलकें वापरतात. जागरांत धोलक्याचो वापर जाता. पेरगांव (दवंडी) घालपाखातीर धोलक्याचो वापर जाता. पालखी, दिवजां, अवसराची फेरी ह्या वेळांचेरय वाद्यांत धोलक्याचो वापर जाता. धोलक्याचें स्वतंत्र अशें वादनय जाता.

– मलबाराव सरदेसाय

**धोलकें :** (पळेयात धोल).

**ध्यान :** अष्टांग योगाचें सातवें आंग, आनी अंतरंग योगाचें दुसरें आंग. ध्यान शब्दाची व्याख्या अशीः 'तत्र प्रत्ययैकतानता ध्यानम' (पतंजली

सूत्र - ३.२) - मनाची एकतानता साधप म्हळ्यार ध्यान. 'ब्रह्मात्व- चिन्ता ध्यानम' - 'हांव स्वता ब्रह्म आसां' अशें अखंड चिंतन म्हळ्यारूच ध्यान, अशें वेदांत्याचें ध्यानलक्षण आसा. 'रागोपहतिर्ध्यानम' राग नावांच्या विकाराचो नाश करप म्हळ्यार ध्यान.

**उत्पत्ति :** यमनियमासनप्राणायम प्रत्याहारधारणा ध्यानसमधयो ऽष्टावङ्गनि (पतंजली सूत्र २.२६) पतंजली सूत्राप्रमाण योगाचीं आठ आंगां आसात. तांचे दोन भाग आसात. १) बहिरंग योग -५ आंगां, शरिरावरवीं मनाचेर ताबो दवरप. यम - नियम - आसन - प्राणायम - प्रत्याहार. २० अंतरंज योग-३ आंगां, मनावरवींच मनाचेर ताबो दवरप. धारणा - ध्यान - समाधी.

हजारांनी वर्सां आदीं मनाक शांती दिवन मनाचे वाडीखातीर फावो तशें वातावरण निर्माण करपाक ध्यान ही विद्या भारतांत उदेली. उत्खननांत सिंधू संस्कृतींतली ध्यानस्थ बशिल्ली योग्यांचीं शिल्पां मेळ्ळ्यांत. क्रिस्ताआदीं २५०० वर्सांसावन भारतांत योगविद्या आशिल्ली.

ध्यान करपाचें थळ आनी काळ असो - १) ध्यान करपाखातीर शक्य आसल्यार घरांत एक वेगळी कूड आसची आनी ती कूड जाता तितली निवळ आनी पवित्र आसची. ते कुडींत नितळ शरिरान आनी नितळ मनान वचचें. २) कुडींत सरभोंवतणी बरीं चित्रां लावंक जाय. शक्य आसल्यार सुवासीक फुलां दवरूंक जाय. बरी वासाची उजवात आनी तेलाचो मंद दिवो लावंक जाय. अशा वातावरणांत ध्यान बरें जाता. ३) ते कुडींत तामसी वातावरण आसचें न्हय. बरे प्रवृत्तीच्या मनशांकच थंय प्रवेश दिवंचो. अशें केल्यार ते कुडींत पवित्र वातावरण तयार जाता. त्या पवित्र वातावरणांत मागीर दुख्खी, कश्टी मनान लेगीत गेल्यार मन शांत जाता. ४) जंय वेगळी कूड दवरप शक्य नासता, थंय घरांतल्या नितळ जाग्यार बसून ध्यान करूं येता.५) घरा भायर ध्यान करपाचें आसल्यार शांत जाग्यारच बसचें. देखीकः देवूळ, दोंगर, कुळागर, झाडां - पेडां, व्हांवतें उदक.

ध्यान हें शांत वेळार करचें. चड करून सकाळचें, दीस उदेता तेन्ना वा तीनसांजच्या वेळार. आंगांत आळस आसल्यार ध्यान करचें न्हय. ध्यान करतना शक्य तितकें पोट रितें आसूंक जाय. ध्यान कसलें करचें हाचें खूब महत्व आसा. गरूरूडपुराणांत हे विशीं एक श्लोक आसा तो असो -

ध्येये सक्तं मनी यस्य ध्येयमेवानुपश्यही।
नान्यं पदार्थ जानाति ध्यानमेतत् प्रकीर्तितम्।

जाचें मन, ध्येय विशियाकडेन आसक्त जाता आनी ध्येय विशयच सतत पळयता, तशें तें दुसऱ्या कसलेच वस्तूकडेन वचना हाकाच ध्यान म्हण्टात. हाचेवयल्यान अशें दिसता, ध्यान हें बऱ्यो वस्तु, बरो विचार आनी सतपुरुश हांचेर केल्यारच मनाक शांती मेळटा.

ध्यानाचे प्रकार अशे आसात -

१) सगूण ध्यान : हाचे ५ प्रकार आसात - विष्णुध्यान, अग्नीध्यान, सूर्यध्यान, भूध्यान, पुरुषध्यान. २) निर्गूण ध्यान. ३) शरिरांतल्या चक्रांचेर केल्लें ध्यान. ४) तत्त्व वा श्लोकांचेर केल्लें ध्यान. ५) हृदयस्थ ध्यान - आपल्या हृदयकमलाच्या जाग्यार परमेश्वराची मूर्त आसा अशी कल्पना करून तिचें ध्यान करप. ध्यान योगांतली ही सगळ्यांत श्रेश्ठ विद्या. दोन वक्षां मर्दीं जी खळी आसा थंय, काळजाचे उजवटेन ध्यान करप. ध्यान बिंदूपनिषदांत हेविशीं श्लोक आसा तो असो -

हृत्पद्मकर्णिकामध्ये स्थिरदीपनिभाकृतिम्।
अङ्गुष्ठमात्रमचलं ध्यायेदोङ्कारमीश्वरम्।।

ही विद्या गूढ, व्हड सद्यः फलदायी आनी गुरु कृपेबगर प्राप्त ना जावपी अशी आसा. थीर दीपज्योतीच्या आकारान आशिल्ल्या अचल, अंगुष्टमात्र अशा ओमकार स्वरूप ईश्वराचे हृदयकमलाचे कर्णिकेंत ध्यान करचें. हे विशीं भगवदगीतेंत श्रीकृष्णान अशें म्हळां -

'ईश्वरः सर्वभूतानां हृद्देशे ऽर्जुन तिष्टति'

**अर्थ** - हे अर्जुना, ईश्वर हो सगळ्या भुतांच्या देशांत वास्तव करता.

सगळ्या संतांनीय परमात्म्याचें ध्यान हृदयांत करचें अशें सांगलां. ध्यान करपाचो सर्वश्रेश्ठ मार्ग म्हळ्यार बऱ्या बऱ्या पुजा द्रव्यांनी केल्ली हृदयस्थ परमात्म्याची मानस पुजा. अशें ध्यान करता त्या वेळार वृत्ती तदाकार जाता, ध्यान सिद्ध जाता आनी साधकाक दिव्य अणभव येतात.

ध्यान करपाक सगळ्यांत बरें आसन 'पद्मासन'. हें आसन जमना जाल्यार अर्दपद्मासन, वज्रासन, सुखासन करून ध्यान करूं येता. ध्यान करतना बसपाक बरें थीर आसन मांडचें आनी तें चड वयर वा सकयल नासचें. बसपाक दर्भासन, ताचेर मृगचर्म आनी निवळ वस्त्र हांतरूंचें. पद्मासन घालून दोनय हातांचे तळवे उदारे करून बोटां मातशीं पसरावन दोनय धोंपरांचेर वयर दवरप (हाका समाधिमुद्रा म्हण्टात).

ध्यान केल्ल्यान चित्ताची एकाग्रताय साधता. वृत्ती थीर जाता. बाह्य ध्यान सुट्टा आनी सूक्ष्म ध्यानांत प्रवेश जाता. मनात बऱ्यो भावना येतात, बरे गूण येतात आनी बरी कर्मां घडटात; मनशाची जीण समृद्ध जायत वता.

ध्यान करतना मनाचो प्रवाह अखंड उरूंक जाय. देखीक - एका आयदनांतल्यान दुसऱ्या आयदनांत तेल रकयतना जशी धार अखंड दिसता तशी. मनीस आनी परमेश्वर हांकां जोडपी दुवो म्हळ्यार ध्यान. ध्यान हें अशें वातावरण निर्माण करता जें मनाची वाड जावपाखातीर तेंको दिता, तेचपरी मनाक फाव तशें खाद्य मेळून मनीस पुर्णत्वाकडेन वता.

सद्याचे धकाधकीचे जिणेंत मनशाच्या मनाचेर जायतो ताण पडूंक लागला. ताका लागून मन शांत करपाखातीर ध्यानाचो चड उपेग जाता. मन शांत जातकच ताची शक्त वाडटा आनी मागीर तो आयुश्यांत केद्राय प्रसंगाक तोंड दिवंक शकता.

स्वामी विवेकानंद हाका ताचो गुरु रामकृष्ण परमहंस हाणें म्हणिल्लें, तो ध्यानात परिपूर्ण जाल्लो आसा. वेगवेगळ्या संस्थांनी ध्यानाच्यो वेगवेगळ्यो तरा आसात. दर प्रकारच्या ध्यानांत उणो अदीक फरक आसलो तरी मूळ भाव तोच आसता. ध्यानाच्यो कांय संस्था आसात त्यो अशोः १) ट्रांसर्डण्टल मॅडीटेशन - श्री महेश योगी (अमेरिका) २) सिद्ध मॅडीटेशन - स्वामी मुक्तानंद (गणेशपुरी) ३) राजयोग - प्रजापिता ब्रह्मकुमारी विश्वविद्यालय (माउंट आबू) ४) स्वामी विवेकानंद केंद्र - (कन्याकुमारी).

गोंयांत वेगवेगळ्या संस्थांचीं केंद्रां चलतात आनी थंय ध्यान शिकयतात. तीं अशीं -

१) सिद्ध मॅडिटेशन - स्वामी मुक्तानंद (पणजी).
२) राजयोग - प्रजापती ब्रह्मकुमारी विश्वविद्यालय हांचें केंद्र (पणजी मळें विभाग).
३) स्वामी विवेकानंद केंद्र (कन्याकुमारी / बेंगळूर).

हाचेभायर गोंयच्या खाजगी संस्थांवरवीं ध्यानाचे वर्ग चलतात.

- डॉ. सीताकांत घाणेकर

**ध्यानचंद :** (जल्म : १९०५).

नामनेचो भारतीय हॉकीपटू. तो पिरायेच्या पंदराव्या वर्सासावन हॉकी खेळपाक लागलो. ह्या खेळांतल्या फिशालपणा खातीरच 'पंजाब रायफल्स' पलटणींत ताका नोकरी मेळ्ळी. १९२६त हिंदी - सैनिकी हॉकी पंगडा वांगडा न्युझीलंड, ऑस्ट्रेलियांतल्या हॉकी सामन्यांत तो 'सँटर फॉरवर्ड' म्हणून खेळ्ळो आनी ताणें १२५परस चड गोल केले, ताका लागून तो खूब लोकप्रिय जालो.

१९२८ वर्सा ॲम्स्टरडॅमांतल्या ऑलिंपिक सामन्याखातीर भारतीय हॉकी पंगडांत ताची निवड जाली, त्या वेळार ताणें वैयक्तिक १०० परस चड गोल केले. १९३२ च्या लॉस अँजेलीसचे ऑलिंपिक सर्तीखातीर ताची परत निवड जाली. ह्या दोनूय ऑलिंपिक खेळांनी भारताक हॉकींत वस्तादपण मेळोवन दिवपाक ताणें मोलादीक वावर केलो. ताच्या मुखेलपणाखाल १९३५त भारतीय हॉकी पंगड न्युझीलंडाक गेलो. थंय खेळिल्ले सगळे ४८ सामने भारतान जिखले आनी वट्ट ५८४ गोल केले. तातूंत ध्यानचंदान ४३ सामन्यांनी व्यक्तीगत २०१ गोल करून एक खाशेलो विक्रम केलो. १९३६त बर्लिन ऑलिंपिकाखातीर ताच्या मुखेलपणाखाल गेल्ल्या भारतीय हॉकी पंगडान फाटोफाट तिसरे खेपे वस्तादपण मेळोवन हॉकीच्या मळार एक पर्जळीत परंपरा तयार केली. ह्या ऑलिंपिकाच्या निमण्या खेळांत जर्मनीचेर ८-१ अशी हार घालतना एकल्या ध्यानचंदान ६ गोल करून विक्रम केलो.

आंतरराश्ट्रीय हॉकीच्या मळार ध्यानचंदाक एक बरो 'सँटर फॉरवर्ड' म्हणून नामना मेळ्ळी. गोल करपाची एक खाशेली फिशालकाय ताणें जोडिल्ली देखून हॉकी मळावयलो 'जादूगार' (wizard) म्हणून ताका भोवमानान वळखतात. तीन ऑलिंपिक सर्तींनी (१९२८, १९३२ आनी १९३६) ताणें फाटोफाट भांगरा पदकां मेळयलीं. १९३६ उपरांत ग्वाल्हेर संस्थानांत तो लस्करी अधिकारी म्हणून आशिल्लो. थंयसावन निवृत्त जातकच भारतीय हॉकी पंगडाक प्रशिक्षण आनी मार्गदर्शन दिवपाचें कार्य ताणें केलें. १९५२त 'गोल' ह्या माथाळ्यासकयल ताणें आपल्यो यादी उजवाडायल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**द्युनां, झां आंरी :** (जल्म : ८ मे १८२८, जिनीव्हा; मरण : ३० ऑक्टोबर १९१०, हायडेन.)

स्वीस आंतरराश्ट्रीय रॅड क्रॉस संघटनेचो संस्थापक आनी नोबॅल शांतताय पुरस्काराचो पयलो जैतीवंत. सुर्वेक सावन तो इवँजेलिकल पंगडांत आशिल्लो. ताणें 'यंग मॅन्स क्रिश्चन असोसिएशन' स्थापन केलें. १८५९त सॉलफेरीनॉच्या झुजांतली मनीसहानी पळोवन ताका खूब वायट दिसलें. जखमी जाल्ल्या सैनिकांची सेवा करपाच्या वावरांत ताणें वांटो घेतलो आनी त्या अणभवाचेर Un souvenir de Solferino हें पुस्तक बरयलें (१८६२). फुडें ह्या पुस्तकाचो इंग्लीशींत Memory of Solferino ह्या नांवान अणकार जालो. ह्या पुस्तकांत ताणें झुजामळार जखमी जाल्ल्यांची सेवा मानवतावादी नदरेंतल्यान आनी निःपक्षपातीपणान जावंक जाय, अशें मत मांडलें. ताच्या यत्नांक लागून एक समिती स्थापन जाली. तिचेंच फुडें आंतरराश्ट्रीय रॅड क्रॉस समितींत रुपांतर केलें (१८६४). हाका लागून १८६४ची जिनीवा कबलात जल्माक आयली. ही शांतीकायेची पयलीच कबलात.

फुडें तो पॅरिसाक गेलो. १८७०-७१च्या फ्रँको-प्रशियन झुजांत ताणें जखमी लोकांची सेवा केली. तेन्नासावन रॅड क्रॉस चळवळ चड प्रसिद्धीक आयली. १८७१त ताणें झूज टाळपाखातीर आंतरराश्ट्रीय न्यायालयान मध्यस्थी करची आनी स्नेहभाव निर्माण करचो अशें सुचयलें. पूण ताचे यत्न फळादीक जालेनात. पूण ताच्या ह्या कार्याक लागून ताचें धंदयांतलें लक्ष उडलें आनी तो बेकार जालो. तेन्ना तो १८९५ मेरेन भोंवत आशिल्लो. फुडें एका पत्रकाराक तो मेळ्ळो. संवसारीक एकचाराखातीर ताणें कितल्याशाच देशांकडेन पत्रवेव्हार केलो. १८९९-१९०७च्या हेग परिशदांचें सगळें श्रेय ताका दितात. ताच्या मोलादीक वावराखातीर १९०१त फ्रेदेरिक पासी हाचेवांगडा ताका पयलो नॉबेल शांतताय पुरस्कार दिलो. ताका अनिकूय जायते भोवमान फावो जाल्यात. अखेरमेरेन तो झुजांतल्या जखमींक मदत करतालो. गुलामगिरीआड तशेंच संवसारीक निःशस्त्रीकरणा खातीर तो निमाणेमेरेन झटलो.

- कों. वि. सं. मं.

**द्यूकॉम, एली :** (जल्म : १९ फेब्रुवारी १८३३, जिनीवा; मरण : ७ डिसेंबर १९०६, बर्न).

नोबॅल शांतताय पुरस्कार जैतीवंत स्वीस पत्रकार. Revue de Geneve ह्या खबरांपत्राचो तो मुखेल संपादक आशिल्लो (१८५५). ते उपरांत तो बनाक गेलो आनी थंय ताणें Der Fortschritt हें खबरांपत्र सुरू केलें. तातूंतल्यान तो संवसारीक शांतताय कार्याचो प्रसार करतालो. ताणें ज्युरी सिंप्लॉन रेल्वे कंपनींत चिटणिसाचें काम घेतिल्लें. पूण फाविल्लया वेळांत तो शांततायेच्या वावरांत लक्ष घालतालो. युरोपी संघटनेच्या वावरांत ताणें सक्रिय वांटो घेतलो आनी ताच्या पुरस्काराखातीर Les Etats - Unis - d' Europe हें नेमाळें चलयलें. १८६५त स्थापन जाल्ल्या आंतरराश्ट्रीय शांतताय आनी स्वातंत्र्य संघाचें म्हयन्याळेंय तोच चलयतालो.

१८९९त ताणें आंतराराश्ट्रीय शांतताय परिशदांनी वांटो घेतलो आनी फुडें दोन वर्सांनी आंतराराश्ट्रीय शांतताय कार्यालयाची स्थापणूक केली. ताचो तो पयलो सचीव आशिल्लो. १८६५त ताणें ह्या कार्यालयाचो सगलो पत्रवेव्हार उजवाडायलो. १९०२त, ताच्या मोलादीक वावराखातीर संवसारीक शांततायेखातीर आशिल्लो नोबॅल पुस्कार ताका चार्ल्स द गॉल हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं -

L'oeuvre de la paix (१८९३); La programme pratique des amis de la paix (१८९७); Precis historique de mouvement en faveur de la paj (१८९९).

- कों. वि. सं. मं.

**द्यूत :** (पळेयात जुगार).

**द्यू विन्यो, विन्सेंट :** (जल्म : १८ मे १९०१, शिकागो-इलिनॉय. मरण : १२ नोव्हेंबर १९७८).

अमेरिकी जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण इलिनॉय विद्यापीठ, अरबॅना (बी. एस्. १९२३, एम्. एस्. १९२४) आनी रॉचेस्टर विद्यापिठाची

वैजकी शाखा. पी. एच. डी. (१९२७) ह्या विद्यापिठांनी जालें. बॉल्टिमोरच्या जॉन्स हॉपकिन्स विद्यापिठाच्या वैजकी विभागांत, ड्रॅझ्डॅन कायझर विल्लॅल्म संस्थेंत आनी एडिंबरो विद्यापिठाच्या वैजकी विभागांत ताणें अभ्यास केलो. १९२४-२५त फिलाडॅल्फीया जनरल हॉस्पिटलांत डॉ. डब्यू. जी. फोर हांचो सहाय्यक जीवरसायनशास्त्रज्ञ म्हणून ताणें काम केलें ह्याच काळांत पॅन्सिल्वानिया विद्यापिठाच्या पदवी वैजकी विभागांतूय ताणें काम केलें. १९२९-३२ ह्या काळांत ताणें इलिनॉय विद्यापिठाच्या जीवरसायनशास्त्र विभागांत आनी वॉशिंग्टनाच्या जॉर्ज वॉशिंग्टन विद्यापिठाच्या वैजकी विभागांतल्या जीवरसायनशास्त्र विभागाचो मुखेल (१९३२-३८) आनी उपरांत न्यूयॉर्कच्या कॉर्नेल विद्यापिठाच्या जीवरसायनशास्त्र विभागाचो मुखेल म्हणून काम केलें

इन्सुलीन, बायोटिनाचे रचणुकेचें स्पश्टीकरण, मिथायल गटाचें स्थलांतर, ॲमिनो आम्लांचो चयापचय, पेनिसिलिनाचें संश्लेशण, गंधकयुक्त संयुगांचें जीवरसायनीक नदरेन म्हत्व, ऑक्सिटोसीन आनी वॅसोप्रेसीन ह्या हार्मोनांची रचणूक थारोवप आनी संश्लेशण हांचेर ताणें संशोधन केलें. ओक्सिटोसीन आनी वॅसोप्रेसीन ह्या दोन भोवपेप्टायडी हॉर्मोनांचें संश्लेशण आनी गंधकयुक्त संयुगांचें जीवरसायनीक म्हत्व ह्या संशोधनाखातीर ताका १९५५ वर्साचो रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

द्यू विन्यो हाका चांडलर पदक (१९५५) विलर्ड गिब्स पदक (१९५६), निकल्झ पदक आनी हेर जायते भोवमान फावो जाल्यात. न्यूयॉर्क, येल आनी इलिनॉय ह्या भोवमानादीक 'डॉक्टरेट' पदवी दिली. ताणें (A trail of research in sulphur chemistry and Metabolism and related fields' (१९५२) हें पुस्तक बरयलां.

– कों. वि. सं. मं.

**ध्रूव-१ :** धर्तरेचो आपले भोंवतणीं घुंवपाचो जो आस आसा तो वाडयल्यार ज्या दोन काल्पनीक बिंदूंनी खगोलाक छेद दितात तांकां खगोलीक ध्रूव म्हणटात.

धर्तरी अस्तंतेकडल्यान उदेंतेकडेन घुंवता जाका लागून मळबांत दर दिसा सूर्य, चंद्र, गिरे, तारे उदेंतेक उदेवन अस्तंतेक वतात अशें दिसता. दरेका ताऱ्याचो मार्ग विषुवृत्ताक समांतर आशिल्ल्या वाटकुळा प्रमाण दिसता. पूण उत्तर वा दक्षिण खगोलीय ध्रुवाकडेन तारो आसल्यार तो आमकां थीर दिसतालो.

सद्या जाका आमी मळबांतलो ध्रुवतारो मानतात तो खगोलीय उत्तर ध्रुवाक सगळ्यांत लागींचो. हो तारो खगोलीय ध्रुवापासून ५५ मिनटां इतल्या अंतरार (कोनिय अंतरार) आसा. हो तारो ५५ मिनटां कोनीय व्यासाच्या वाटकुळांत २४ वरांनी घुंवता. पूण हें वाटकुळ ल्हान आशिल्ल्या कारणान आमकां तें घुंविल्लें दिसना आनी तो तारो थीर दिसता.

संपातचलनाक लागून (Precession of Equinoxes) खगोलीय ध्रूव लेगीत आपली सुवात बदलता. ही सुवात कशी बदलता हें सकयल दिल्ले आकृतीवयल्यान कळटलें.

सुमार २५,८०० वर्सांनी धर्तरेचो आस आकृतींत दाखयल्ल्या वाटकुळांतल्यान एक आवर्तन पुराय करता. आयचे घटकेक तो आस ध्रूवतारो म्हळ्यार पोलॅरीस ह्या ताऱ्याकडेन आसा. ४,६०० वर्सांपयलीं तो थुबन (Thuban - आल्फा ड्रॅकॉनिस < α - Draconis) ह्या ताऱ्याकडेन आशिल्लो. ५,३०० वर्सांउपरांत तो आल्डरामिन (आल्फा सिफाय α - Cephii) ह्या ताऱ्याकडेन पावतलो. म्हणटकच, तो ध्रुवतारो जातलो. आतां दिसता तो ध्रुवतारो म्हळ्यार आल्फा उसी मायनोरिस हो २.१ हे प्रतीचो तारो. तो ध्रुवमंडल (उर्सा मायनर) हे नखेत्रमाळेंतलो सगळ्यांत चड दिप्तीमान असो तारो.




– डॉ. अरुण हेबळेकर

पूरक नोंद : आर्क्टिक, अंटार्क्टिक.

**ध्रूव-२ :** एक पुराणिक राजा. उत्तानपाद राजाचो पूत. ताका 'औत्तानपादी' आनी ग्राहथार' ह्या नांवांनीय वळखतात.

उत्तानपाद राजाक सुरुची आनी सुनीती अशो दोन राणयो आशिल्ल्यो. सुरुची ही राजाची आवडटी राणी आशिल्ली आनी तिका उत्तम नांवाचो चलो आशिल्लो. ध्रूव हो नावडटी राणी सुनीती हिचो पूत आशिल्लो. ल्हान आसतना ध्रुवाचो सुरुची कडल्यान अपमान जाल्ल्यान तो घर सोडून गेलो आनी खर तप करूंक लागलो. नारदान ताचें खर तप थांबोवपाचो यत्न केलो. पूण ध्रुवान आपलो निश्चेव बदललो ना. तेन्ना नारदान ताका मंत्र दिलो. त्या मंत्राच्या आदारान ध्रुवान यमुनेचे देगेर मधुवनांत तप सुरू केलें. फकत फळां, उदक आनी वारो हांचेर जियेवन ताणें खर तपश्चर्या केली; विष्णुन प्रसन्न जावन ताका दर्शन दिलें. तेन्ना ध्रूवान नक्षत्रमंडळांत अढळ सुवात मागली. ध्रुवाक सप्तर्षीचे लागीं अढळ सुवात मेळ्ळी. ह्या ताऱ्याक 'ध्रूवतारो' म्हणटात.

विष्णुची कृपा जातकच ध्रूव परत आयलो. उत्तानपादाउपरांत ध्रूवान छत्तीस हजार वर्सां राज्य केलें, अशें पुराणांत म्हळां.

ध्रुवाक भ्रमीपसून कल्प आनी वत्सर अशे दोन पूत जाले आनी इलेपसून उत्कल नांवाचो पूत जालो. निमाणें वत्सराक राज्यार बसोवन ध्रूव बदरिकाश्रमांत गेलो आनी थंयसावन सर्गाक गेलो.

– कों. वि. सं. मं.

**ध्वनी :** (पळेयात आवाज).

**ध्वनीमुद्रण आनी पुनरुत्पादन :** ध्वनींची सांठवण (Recording)

आनी पुनरुत्पादन (Reproduction) करपाचें तंत्र. गरज आशिल्ल्या ध्वनींचेर फावो ती प्रक्रिया करून तांकां अपेक्षीत कालमर्यादेंत संग्रहीत करून दवरपाक मेळटा तशेंच सांठोवन दवरिल्ले ध्वनी तशेच प्रक्रियेंतल्यान पुनर्मुद्रित करूंक मेळटात.

पुनरुत्पादनक्षम ध्वनीमुद्रण करपाचो पयलो प्रयोग १८७७त अमेरिकेंत थॉमस आल्वा एडिसन हाणें केलो. एका वाटकुळ्या दांड्याक गुठलायल्ल्या कथिल धातूच्या पातळ पत्र्याचेर तबकडेच्या मध्यार बसयल्ल्या सुवयेच्या तोंकान पत्रोभर झरे पाडून ताणें तबकडेचेर पडिल्ल्या ध्वनींची ह्या झऱ्यांवरवीं पत्र्याचेर नोंद केली. ह्या झऱ्यांच्या आरंभाच्या तोंकाचेर सूवयेचें तोंक दवरून दांडो घुंवडावन हे झरे चिरले म्हणजे सुवयेवरवीं सुवयेच्या माथ्याचेर बसयल्ले तबकडेक ध्वनीचें स्पंदन पावता आनी तबकडेवयल्यान तें फुडें तबकडेचे सभोंवतणीं परिवर्तीत जावन मुद्रीत केल्ल्या ध्वनीचें पुनरुत्पादन जातालें.

एडिसनच्या उपकरणांत उपरांत सुदारणा जाली तरी ह्यो दंडगोलाकार ध्वनीमुद्रिका गैरसोयीच्यो जावपाक लागल्यो. इ. स. १८८७त एमिल बर्लिनर हाणें जस्त धातूच्या सपाट पत्र्याचेर लाखेचो पातळ थर दिवन सपाट अशो वाटकुळ्यो तबकड्यो तयार केल्यो आनी सुवयेच्या आदारान तांचेर झरे निर्माण केले. हांच्या आदारान कडक लाखेच्यो तबकड्यो तयार करप जालें.

ध्वनीमुद्रिका निर्माण करपाचे पद्दतींत बरेच सुदारीत बदल घडत गेले तशें पुनरुत्पादनाचे प्रक्रियेंतूय अशेच बदल घडले. सूवयेच्या आदारान तबकडेचेर सुरू जाल्लें ध्वनीमुद्रण उपरांत उजवाड आनी चुंबकत्व ह्या घटकांच्या आदारान तबकडेचे जाग्यार फितीचेर करप जालें. तशेंच पुनरुत्पादनाखातीर सुर्वेक हातान ध्वनीमुद्रिका घुंवडावपाची क्रिया वचून स्प्रींग, विद्युत् चलित्र (Motor) ह्या सारकिल्या साधनांचो उपेग करप जालो. ध्वनीमुद्रण आनी पुनरुत्पादनाच्या तंत्रांत आनी घटकांनी बदल घडत गेल्ले आसले तरी ध्वनी सांठोवपाचो आनी सांठयल्लो ध्वनी पुनरुत्पादीत करपा फाटलें बुन्यादी तत्त्व थोड्या फरकान तेंच उरलें. सुवी, उजवाड, विद्युत् ह्या घटकांवरवी तबकडी वा फीत हांचेर ध्वनींचें आरेखन करून ध्वनी सांठोवप आनी तशेच प्रक्रियेंतल्यान ज्या घटकांचेर ध्वनीची सांठवण केल्या तांचेर आंदोलन निर्माण करप हें बुन्यादी तत्त्व सगळ्या प्रकारांच्या ध्वनीमुद्रणांत आनी पुनरुत्पादनांत आसा.

ग्रामोफोन, रिकॉर्ड प्लेयर, चल चित्र फिल्म, टेप रिकॉर्डर, दूरध्वनी-संदेश रिकॉर्डर सारकेल्या उपकरणांची निर्मिती, ध्वनीमुद्रण आनी पुनरुत्पादन हांच्या तत्त्वाचेर आदारिल्ली आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**ध्वनीविज्ञान :** (Phonetics) भाशांतर्गत ध्वनींचो अभ्यास. दर एके भाशेची मांडावळ वेगवेगळ्या, संकेतीक अशा ध्वनींचेर आदारिल्ली आसा. ह्या ध्वनींचीं खाशेलपणां, ध्वनीनिर्मितीची प्रक्रिया, ध्वनींचे प्रकार आनी हेर संबंदीत घटकांचो ह्या शास्त्रांत अभ्यास करप जाता.

ध्वनी विज्ञानांत उस्वासाचो उगम फुफुसांत जाता आनी ताळ्याच्या मार्गांतल्यान ओंठ, दांत, जीब, ताळू हांच्या आदारान तोंडांतल्यान वेगवेगळे नाद आशिल्ल्या उतरांच्या रुपांतल्यान प्रकट जाता. ओंठ, दांत, जीब, ताळू आनी ताळो हांच्या अदीं मदीं आशिल्ल्यो पोकळ्यो ह्या नादान आपआपले परीन विशिश्ट असो ध्वनी दितात.

तोंडांतल्यान भायर पडपी नादाच्या प्रवाहाप्रमाण आवाजांचे जावपी बदल घडटात. ह्या बदलांप्रमाण ध्वनीचे 'स्वर' आनी 'व्यंजन' अशे दोन प्रकार जातात. ध्वनीच्या वर्गीकरणाप्रमाण फुडें स्वर आनी व्यंजनां हांच्यो वेगवेगळ्यो सया (tunes) आशिल्ले प्रकार आसात.

**कोंकणी ध्वनीविज्ञान :** सगळे कोंकणी ध्वनी उच्चार करपाखातीर फुफुसांतल्यान भायर सरपी वायू वापरतात. तोंडांतल्यान कांयच आडखळ नासताना उस्वास भायर सरतना जो उच्चार जाता तो ध्वनी म्हळ्यार स्वर. कोंकणींत हे स्वर आसात - (ई, इ, ए, अ, आ, ऑ, उ, ऊ, अ) (अ) स्वराक कोंकणींत ताचोच खाशेलो उच्चार आसा. तो संस्कृतांत चड सकयलो आनी मराठींत चड वयलो आसता. कोंकणींत तो सामको मदलो स्वर आसता आनी उच्चार करतना ओंठ मातशे वाटकुळे करचे पडटात. कांय बोलींनी (अ) स्वराचो लांबोडो उच्चारूय आसा. तशेंच (आ) स्वराचो लांब प्रकारय आयकूंक मेळटा. कोंकणी स्वर उच्चार करतना उस्वास नाकांतल्यान भायर सरल्यार तो स्वर नाकयो जाता. (ईं, इं, एं, अँ, आं, आँ ओं उं ऊं अं) हे नाकये स्वर कोंकणींत आसात. ऐ (अय) आनी औ (ओव) हांचेभायर जायते संदीस्वर कोंकणींत घोळतात. देखीक (एय, ईय्, एव्, ऊय्, ओय) आदी.

जेन्ना नाका-तोंडांतल्यान उस्वास भायर सरता आनी ताका जीब, दांत वा ओंठ कसली तरी आडखळ घालतात, तेन्ना व्यंजन ध्वनी तयार जाता. जर तोंडांतले अवयव खीणभर उस्वास बंद करीत जाल्यार त्या व्यंजनाक स्पर्श (stop) म्हण्टात. देखीक - (क्, ट्, ख्, ग्, म्, ब्, प) आदी. जर उस्वासाचो प्रवाह तोंडांत बंद जायना पूण कसली तरी आडखळ आसा, तसल्या व्यंजनाक प्रवाही (Continyant) म्हण्टात. देखीक - य्, व्, स्, श्, ल, र आदी. कोंकणी भाशेंत स्पर्श आनी प्रवाही उच्चार वांगडा काडून जातात तीं व्यंजनां आसात. हांकां स्पर्श-घर्शक (affricates) म्हण्टात. च़, च्, छ्, ज़ ज्, झ़, झ् हीं कोंकणी स्पर्श-घर्शक व्यंजनां.

कोंकणी व्यंजनाचे हेर गट आसात. स्वरतंत्र्यो (Vocal cords) सामक्यो उक्त्यो आसून तातूंतल्यान उस्वास भायर येतना अघोश (voiceless) व्यंजनाचो उच्चार भायर जाता. देखीक - क्, ट्, ख्, त् प्, स्, च आदी. जेन्ना स्वरतंत्र्यो एकामेकांक तेंकून आसतात आनी उस्वास तांचेमदल्यान भायर सरतना तांचें कंपन जाता तेन्ना उत्पन्न जावपी व्यंजन सघोश (voiced) आसता. देखीक - ग्, ड्, प्, द्, व्, ज् आदी. नाकये स्वर आसात तशीं नाकयीं व्यंजनांय आसात - ङ ञ्, ण्, न्, न्ह, म्, म्ह हीं कोंकणी नाकयीं व्यंजनां. व्यंजनांमदीं अल्पप्राण (unaspirated) आनी म्हाप्राण (aspirated) हो फरक आसा. व्यंजन आनी ताचे उपरांतचो स्वर हांचेमदीं नेटान उस्वास आयल्यार तें व्यंजन म्हाप्राण जाता. देखीक - खा, वे, धू म्हा व्हा, छे आदी. तसलो नेटाचो उस्वास नासल्यार व्यंजन अल्पप्राण उरता. देखीक - क्, प्, द्, न्, म आदी. कोंकणींत उतराचे अखेरेक म्हाप्राणाचो उच्चार जायना (क्क्, प्प्, न्न्, ण्ण्, म्म्) हांकां सादे भाशेंत दोट्टी व्यंजन म्हण्टात, पूण ध्वनीविज्ञानी तांकांच लांब व्यंजनां म्हण्टात, कारण तांचो उच्चार करतना उस्वास चड वेळ बंद पडटा.

उच्चाराचे अवयव (जीब, दांत आनी ओंठ) खंय कशे आनी खंयच्या क्रमान वापरल्यात हाचेप्रमाणेंय ध्वनींचे गट करूं येतात. कोंकणींत ओंठये (Labial), दांत-ओंठये (labiodental), दांतये (dental), दांत-ताळवेचे (Dentopalatal), ताळवेचे (Palatal), मुर्धन्य (retroflex), मोव ताळवेचें

(velar) आनी ताळ्याचे (glottal) ध्वनी आसात. वर्ण (Letter or alphabet) आनी अक्षर (Syllable) हांचेमदीं कसले फरक आसात, कोंकणींत अक्षरां कशीं काडूंक जाय, उतराचेर पडटात ते बळ आघात (Stress or accent) वाक्यांचें सुरयोजन (intonation) हें सगळें ध्वनी विज्ञानांत शिकचें पडटा.

ध्वनीविज्ञान शास्त्रशुद्ध भास उलोवपाक तशेंच कळपाक मदत करता. शिक्षणशास्त्रांत, विशेश करून मुळाव्या शिक्षणांत, भाशा अभ्यासांत ध्वनी विज्ञानाचो खूब आदार जाता.

कांय भाशांच्या लिपींनी दरेक ध्वनी स्वतंत्र कुरवेन दाखोवपाची तजवीज केल्ली आसा, अशें म्हळें तरी दरेके लिपीच्यो हे बाबतींत मर्यादा आसात. पूण भोवतेक भाशांचे बाबतींत प्रत्येक ध्वनी दाखोवपाक ती लिपी उणी पडटा. हे नदरेन पळयल्यार दरेक ध्वनी दाखोवपाक खंयचीय लिपी परिपूर्ण ना अशें म्हणचें पडटलें.

– डॉ. मेथ्यू आल्मैद

**ध्वनीक्षेपक :** विद्युत् चुंबकीय ऊर्जेचें ध्वनीऊर्जेंत रुपांतर करपी हो एक ऊर्जापरिवर्तक. ताका लावडस्पीकर अशेंय म्हण्टात. ध्वनिग्राहकाच्या उरफाटें हाचें कार्य आसता. चडकरून सगळ्या ध्वनीक्षेपकांनी बदलपी श्राव्य कंप्रता (दर सेकंदाक जावपी कंपनसंख्या) वर्चसाचें (विद्युत पातळेचें) वा विद्युत प्रवाहाचें यांत्रिक कंपनांत रुपांतर करपी एक चालक घटक आसता. हो चालक घटक ताका जोडिल्ल्या एका पटलांत कंपनां निर्माण करता आनी ताकालागून ताच्या भोंवतणच्या हवेंत कंपना निर्माण जातात. हींच कंपनां ध्वनीतरंग म्हणून फुडें प्रेशित जातात. यांत्रिक कंपनांचें ध्वनीतरंगांत रुपांतर करपी पटल आकारान सपाट जांव शंकूप्रमाण (तोंक आशिल्ल्या ठोकळ्याप्रमाण) आसून तें एका खास प्रकाराच्या कागदापासून तयार केल्लें आसता.

चालक घटकाप्रमाण ध्वनीक्षेपकांचें वर्गीकरण करपाक येता: १) चलनक्षम वेटाळेंयुक्त (चिरचुंबक) गतिकीय, २) चलनक्षम वेटाळेंयुक्त (विद्युत चुंबकजन्य थीर चुंबकीय क्षेत्र) गतिकीय, ३) दाबविद्युतीय जांव स्फटिकयुक्त आनी ४) विद्युत स्थितीक जांव धरित्र प्रकार (विद्युत भार साठोवन दवरपी साधनाच्या तत्त्वाचो उपेग करपी प्रकार). हातुंतलो पयल्या प्रकाराचोच ध्वनीक्षेपक चडकरून वापरतात.

संरचनेचे नदरेन ध्वनीक्षेपकाक जोडपांत येवपी कर्णो हो एक घट्ट अशोशक, अशीर ध्वनीपरिवाह आसा अशें म्हणूं येता. ताचो आकार सरळ जांव वांकडो वळयल्लो, कसोय आसपाक शकता. ताका दोन मेकळीं तोंकां आसतात. ल्हान आकाराच्या तोंकाक गळो म्हण्टात. ध्वनीक्षेपकाचें पटल कर्ण्याच्या गळ्यांत बसयतात. ध्वनी प्रेशीत करपी व्हड आकाराच्या दुसऱ्या तोंकाक कर्ण्याचें तोंड म्हण्टात. कर्ण्याचें काम चडशें प्रेशण तारांभशेन आसता ताकालागून देवाण आनी घेवाण ध्वनींच्या संरोधामदीं सुजोडता हाडपाक येता. गळ्याकडेन जंय ध्वनी-ऊर्जा उद्‌गम बसयल्लो आसता थंय ध्वनीसंरोध उच्च मुल्याचो आसता. जाल्यार कर्ण्याच्या तोंडाकडेन संरोध कमी मुल्याचो आसता. कर्ण्याचो अनीक एक उपेग म्हणजे ताका फाव तो आकार दिवन ध्वनीऊर्जेचें थरावीक दिकेक वितरण बदलून तिचें प्रेशण एका खास अशा, जाय आशिल्ले दिकेन वाडोवपाक येता. कर्णो वापरपाचो मुखेल फायदो म्हणजे प्रदान ध्वनीच्या व्हडपणांत जावपी वाड. ध्वनीक्षेपकाच्या पटलाक मुक्तपणान हवेंत कंपन करपाक दिलें जाल्यार ताकालागून मेळपी आवाज चड व्हडलो नासता. पटलाचें क्षेत्रफळ कमी आशिल्ल्या कारणान मुक्त हवेचो एक तद्‌नुरुप ल्हान विभाग कंपित करता हें ताचें कारण जावन आसा. पटलाक कर्णो जोडल्यार कंपनीय क्षेत्रफळांत जायत्या पटींनी वाड जावन ताकालागून चड मात्रेच्या हवेंत हीं कंपनां निर्माण करतात. हाका लागून ध्वनी क्षेपकाच्या पटलापसून मेळपी ऊर्जेची श्रवणीय ध्वनी निर्माण करपाची तांक वाड्टा. कर्ण्याकलागून ध्वनीक्षेपकाची कार्यक्षमता वाडून ध्वनींतल्यो विकृतीय कमी जातात. कर्णो वापरिल्ल्यान श्राव्य ऊर्जेखातीर चडकरून कमी आकारमानाचें पटल वापरपाक येता. कर्ण्याच्या आकारमानाचीं प्रमाणां ताच्या क्षेत्रफळ प्रसाराचे मान बी थारायतना कार्यक्षमता, कंप्रता प्रतिसाद, दिशीक गूणधर्म आनी आकारमान हांचो मेळ सादपाचे नदरेन विचार करतात. कर्ण्याचो आकार शंकवाकार, घातांकीय, घनीय, अपास्तीय, अन्वस्तीय प्रकाराचो आसता. हातूंतलो घातांकीय आकाराचो कर्णो चड वापरांत आसा.

बरेतरेन अभिकल्पित केल्ल्या कर्ण्याचो ध्वनीक्षेपक खास कंप्रता मर्यादेंत हेर सरल प्रारक (कर्णो नाशिल्लो) ध्वनी क्षेपकांपरस तौलनीक नदरेन चड अचूक कंप्रता प्रतिसाद दाखयता आनी ताच्या प्रदानांतल्या विकृतीचें प्रमाणय कमी आसता. तो उच्च कार्यक्षमताय गांठपाक शकता. ज्या जाग्याचेर सुटसुटीत आकारमानापरस कार्यक्षमता आनी ध्वनीची शक्त व्हड आसपाची गरज आसता थंय कर्णो आशिल्लें ध्वनीक्षेपक वापरतात. कर्ण्याचें आकारमान ल्हान जाय जाल्यार ताचें वेंटाळें करपाक येता जांव ताची घडीय करपाक येता. पूण ताकालागून उच्चतर प्रदान कंप्रता संकेतांत चड विकृती उत्पन्न जाता.

ध्वनीक्षेपकापसून मेळपी दिशीक वितरणाच्या आकृतिबंधाचेर नियंत्रण घालप गरजेचें थारता. ह्या कार्याखातीर ज्यो प्रारण (तरंगरुपी ऊर्जा) नियंत्रण संरचना वापरतात तांकां बाधिका (बॅफल) अशी संज्ञा दितात. बाधिका हेर महत्वाचीं कार्यांय करतात. ध्वनीक्षेपकाचें पटल फुडें आनी फाटीं अशा दोनय वटांनी ध्वनीतरंगांचें प्रारण करता. फाटीं वचपी तरंग परावर्तित जावन परत फुडल्या वटेन येवन, फुटल्या भागांत सरळ प्रारित केल्ल्या तरंगांवांगडा परस्पर क्रिया करपाक शकतात. हाकालागून कांय खेपे हे दोन तरंग एकामेकाक अनुकूल आसत जाल्यार कांय खेप ते एकामेकाक विरोध करून एकामेकाचे परिणाम काडून उडयतात. हो परिणाम चडकरून लघुतरंगलांबायेच्या ध्वनीतरंगांत सांपडटा. ह्या वायट परिणामाकय बाधिका योजनेकलागून टाळपाक येता. बाधिकेकलागून ध्वनीक्षेपकाची कार्यक्षमताय वाडोवपाक येता. रेडीओ ग्राहींतय ह्याच प्रकारची बाधिका वापरतात. ह्या बधिकेकलागून पटलाच्या फुडल्या वटेच्यान फाटल्या वटेनमेरेन ध्वनीच्या भायल्या संक्रमण मार्गाची परिणामकारक लांबी वाडटा आनी ताकालागून पटलावेलो ध्वनीकीय भार वाडोवपाक मदत जाता. पटलाच्या फुडल्या भागापसून फाटल्या भागामेरेन बधिकेभोंवतणचें परिणामी अंतर एका तरंगलांबीच्या इतलें आसल्यार ध्वनीक्षेपकाचो प्रतिसाद प्रकर्शान कमी जाता. ह्याखातीर बाधिकेचो आकार असममित दवरतात जांव ध्वनिक्षेपक सारको मदीं बसयनासताना मातसो कडेक बसयतात. फाटली वट सबंध उक्ती आशिल्ली मंजूशा (पेटी), सगळेवटेन बंद आशिल्ली मंजूशा, एकच बुराक आशिल्ली जांव नळयेची गुंडाळी बसोवपाक येतली इतली मेकळी आशिल्ली बंदिस्त मंजुशा अशा स्वरुपाच्यो ह्या बाधिकांच्यो रचना आसतात. फाटल्या वटेन उक्ती आशिल्ली

मंजूशा चडकरून रेडिओ वा दूरचित्रवाणी ग्राहींत वापरतात. अशा मंजूशांचें अनुस्पंदन सदांच ध्वनीक्षेपकाच्या पटलाच्या फाटल्या वटेन जाता. ताकालागून ध्वनीक्षेपकाच्या प्रतिसाद अभिलक्षणांमदीं अनिश्ट अशी उच्चता निर्माण जाता. ह्या अनुस्पंदनाची कंप्रता मंजूशा आनी ध्वनीक्षेपक हांचेर आदारिल्ली आसता. मंजूशेचें घनफळ जितकें चड आसता तितकी तिची अनुस्पंदन कंप्रताय सपाट बधिकेच्या शक्य आशिल्ल्या अनुस्पंदन कंप्रतेकडेन चड लागीं येवपाक लागता.

हेडफोन होय एक प्रकारचो ध्वनीक्षेपकच आसा. संदेशवहन ग्राही आनी श्राव्य कंप्रता ऊर्जा ल्हान प्रमाणांत आसता अशा आनी हेर जाग्यांचेर हेडफोन वापरतात. हेडफोनांत चुंबकीय पटल चलनक्षम वेटाळें, स्फटीक परिवर्तक हांचो उपेग करतात. हेडफोनाचो कंप्रता प्रतिसाद चड करून मर्यादित आसता. तशेंच मर्यादीत कंप्रता कक्षेखातीर अभिकल्पित केल्ले दोन वा चड ध्वनीक्षेपक जांव दुहेरी जांव तिहेरी एकत्रित संच वापरतात. कंठ संगीताच्यो कार्यावळी आनी वाद्यसमूहांच्यो कार्यावळी ह्या खातीर ध्वनीक्षेपण मूळ ध्वनीनुरूप जावप गरजेचें आशिल्ल्यान ह्या जाग्यांचेर खास प्रकारच्यो ध्वनीक्षेपण येवजण्यो वापरतात. कार्यावळीचे स्थानाची परिस्थिती (बंदीस्त वा उक्ती) आनी कार्यावळीच्या वेळार गरज आशिल्ली ध्वनीपातळी निर्माण करपाखातीर लागपी ध्वनी - उर्जा खबर आसल्यार ध्वनिक्षेपकांची वेंचणूक करपाक जाता. ध्वनिक्षेपकांची मांडणी मर्यादीत उंचायेचेरच करतात.

अभिकल्पाचे नदरेन खंयच्याय ध्वनीक्षेपकांत सकयल दिल्ले गुणधर्म आसप गरजेचें - १) बरी संवेदन शीलताय, २) सगळे कंप्रता कक्षेंत अल्प विकृती, ३) एकविध (सगळ्याक एक सारको) कंप्रता प्रतिसाद. ४) क्षणिक विद्यूत बदलाक योग्य प्रतिसाद, ५) मंद अनुस्पंदनी कंप्रतेक फाव अशें संदमन आनी ६) फाव अशी श्राव्य ऊर्जा वापरपाची तांक.

– कों. वि. सं. मं.

**नंददास :** (जल्म : सुमार १५३३; मरण : सुमार १५८३/१५८६?).

एक नामनेचो हिंदी संतकवी. अश्टछाप कवींमदीं सूरदासाउपरांत नंददासाचेंच नांव घेवप जाता. ताचो जल्म, मरण वा ताचे सगळे जिणेविशीं निश्चीत म्हायती मेळना. मथुरेचे ईशान्येक आशिल्ल्या एका जिल्ह्यांतल्या रामपूर गांवांत ताचो जल्म जालो अशें अभ्यासक मानतात. ताच्या बापायचें नांव जीवनराम आनी कवी तुळशीदास हो ताचो बापोलभाव अशें म्हण्टात. नृसिंह पंडिताकडेन ताणें संस्कृत भाशेचें गिन्यान मेळयलें. गोसाई विठ्ठलनाथ हाचेकडेन ताची वळख जाली. ताणें ताका परमार्थाची दीक्षा दिली अशी एक आख्यायिका आसा. कांय जाणांच्या मतान कवी सुरदासान ताका ताळ्यार हाडलो. रामपुराक परत येतकच तो कमला नांवाचे चलयेकडेन लग्न जालो. ताणें आपल्या गांवाचें रामपूर हें नांव बदलून शामपूर नांव दवरलें. थयंच एक तळें खणून ताका शामसर अशें नांव दिलें. कांय दीस असो गृहस्थाश्रम चलोवन तो संवसार सोडून गोवर्धन क्षेत्रांत रावपाक गेलो. थंय गंगा न्हंयेचे देगेर ताणें आपली उरिल्ली जीण श्रीनाथाचें भजन-कीर्तन आनी ग्रंथरचना करपांत सारली.

नंददासान जायती ग्रंथरचना केली. ताच्या नांवार २०-२१ ग्रंथ आसात अशें सांगतात. तातूंत 'रासपंचाध्यायी' आनी 'भँवरगीत' हे ताचे नामनेचे ग्रंथ. ताचे हेर म्हत्वाचे ग्रंथ अशे - अनेकार्थमंजरी, नाममाला, नासिकेतपुराणभाशा, दशमस्कंध, भागवत, मानमंजरी, रसमंजरी, रूपमंजरी, विरहमंजरी, नामचिंतामणीमाला, जोगलीला, शाम-सगाई आनी रूक्मिनी-मंगल. हातूंतलीं नाममाला, नामचिंतामणीमाला आनी मानमंजरी हीं वेगवेगळीं पुस्तकां नासून एकाच पुस्तकांचीं वेगवेगळीं नांवां आसात.

रासपंचाध्यायी ह्या ग्रंथांत ताणें श्रीमदभागवताच्या धाव्या स्कंधांतल्या रासासंबंधीच्या पांच अध्यायांची कथा मोटे म्होंवाळ पदावलींतल्यान सांगल्या. 'भँवरगीत' ह्या ग्रंथांत ताणें उध्दव-गोपी हांच्या संवादाचो प्रसंग जायत्या पदांनी मांडला.

काव्यशक्ती, भक्ती, अध्यात्म आनी विद्वत्ता ह्यो चारूय गजाली नंददासाच्या काव्यांतल्यान दिसतात. काव्य कलेची ताका बरीच जाण आशिल्ली देखुनूच ताणें छंदाची आनी शब्दांची मांडावळ बेसबरी केल्या. कृष्ण भक्तीच्या काव्यांत वेगवेगळ्या शैलींचो वापर करपाची प्रथा ताणें घाली.

– कों. वि. सं. मं.

**नंद वंश :** (इ. स. आदीं चवथें शतमान). पुर्विल्ल्या मगधांतलो एक नामनेचो राजवंश. शिशुनाग वंशांतलो कलाशोक (काकवर्ण) राजा हाचे राणयेचो एक मोगी आशिल्लो. ताणें काकवर्ण राजाचो वध करून ताच्या धा पुतांक शींवासनार बसयले. तो स्वता त्या राजपुत्रांचो पालक म्हणून राज्य चलयतालो. फुडें ताणें त्या राजपुत्रांकय जिवे मारून मगध राज्य हस्तगत केलें. होच नंद वंशांतलो पयलो राजा. जैन आनी बौध्द परंपरांप्रमाणं तो शुद्र वर्णाचो आशिल्लो. महाबोधिवंश ह्या ग्रंथांत ताचें नांव उग्रसेन अशें दिल्लें आसा. पुराणांत ताका महापद्म म्हळां आनी तो निमणो शैशुनाग राजा महानंद हाचो दासीपूत आशिल्लो अशेंय सांगलां.

पुराणांत महापद्म नंदाक दुसरो परशुराम म्हळां. तो महापराक्रमी आशिल्लो. ताणें ऐक्ष्वाकू, पांचाल, काशी, हैहय, कलिंग, अश्मक, कुरू, मैथिल, वीतिहोत्र, हांचीं राज्यां जिकून एके सत्तेखाला हाडलीं. आर्यमंजुश्रीकल्प ह्या ग्रंथावयल्यान अशें कळटा, तो महापद्म ह्या विद्वानांचो आश्रयदातो आनी विद्येचो पुरस्कर्तो आशिल्लो. नंदराजान कलिंग देशांत बांद बांदिल्ल्याचो आनी ताचेर घुरी घालून थंयची एक जिनमूर्ती पाटलिपुत्राक व्हेल्ल्याचो उल्लेख खारवेलच्या हाथीगुंफा लेखांत आसा.

ॲलेक्झांडरान भारताच्या वायव्य वाठाराचेर घुरी घालून ब्यास न्हंयेमेरेन वाठार हस्तगत केलो. पूण थंय ताच्या सैन्याक नंदराजाचे लस्करी तांकीची खबर कळटकच ताणीं फुडें घुरी घालपाक न्हयकार दिलो आनी देखून ॲलेक्झांडराक परतें वचचें पडलें असो उल्लेख मेळटा.

महापद्माक पुराणांत सर्वक्षत्रन्तक (सगळ्या क्षत्रियांचो संहारक) अशें म्हळां. ताचें साम्राज्य व्हड आशिल्लें आनी भांडार भरिल्लें आशिल्लें. ताची व्हड सेना सदांच जय्यत तयारेंत रावताली. ग्रीसी इतिहासकारांनी ताच्या बळग्याचें वर्णन केलां. ताची सत्ता पंजाबाचे शिमेमेरेन आशिल्ली. ताच्या सैन्यांत २०,००० घोडेस्वार, २,००,००० सैनीक, २,००० रथ आनी ३,००० हत्ती आशिल्ले.

महापद्मान २८ वर्सां राज्य केलें. महापद्माक आठ पूत आशिल्ले. तातूंतल्या सुकल्प ह्या एकाचें नांव पुराणांत दिलां. त्या सगळ्ययांनी मेळून बारा वर्सां राज्य केलें अशें पुराणांत सांगलां. नंदवंशांत णव राजा जावन

गेले आनी तांची नवनंद म्हणून नामना आशिल्ली. श्रीलंकेच्या 'महावंसांत' निमाण्या नंदाचें नांव धननंद अशें आयलां. धननंद राजा पराक्रमी आशिल्लो. पूण तो दुश्ट आनी लोभी आशिल्लो. ताचे वायट वागणुकेक लागून लोक ताचो द्वेश करताले. देखुनूच इ. स. आदीं ३२४ त चंद्रगुप्त मौर्य हाका आर्य चाणाक्याच्या आदारान ताका हारोवंक सहज शक्य जालें. नंदवंशाचो राज्यकाल इ. स. आदीं सुमार ३६४ ते ३२४ असो थरता.

नंदराजांनी आपल्या राज्यांत नवीं वजनमापां सुरू केल्लीं अशें पाणिनीच्या सुत्रांवयले (२,४,२१) काशिकेंत म्हळां. नंद राजांचो कल जैन धर्माकडेन आशिल्लो आनी ताचे मंत्री जैन आशिल्ले अशें आवश्यकसूत्र ह्या ग्रंथावयल्यान कळटा. महापद्म नंदाचो मंत्री कल्पक आनी धननंदाचो मंत्री शकटाल हे जैन आशिल्ले.

- कों. वि. सं. मं.

## नंदा, ॲडमिरल सरदारीलाल मथुरादास : (जल्म : १० ऑक्टोबर १९१५).

भारताचो आदलो नौसेनेचो मुखेली. ताणें कराचीक शिक्षण घेतलें. तो इंग्लंडाचे शाही संरक्षण अकादमीचो पदवीधर. १९४१ वर्सा ताणें रॉयल इंडीयन नेव्हल व्हॉलंटिअल रिझर्व्हांत प्रवेश घेतकच १९५७ वर्सा तो नौदलांत सैविवर्गाचो मुखेली जालो. डायरेक्टर जनरल, मुंबयच्या नौदल तळाचो विस्तार येवजणेचो मुखेल (१९५८-६०), सारवद मुखेल (Chief of Material) चीफ ऑफ मटेरियल -१९६२, माझगांव गोदीचो कार्यकारी संचालक १९६४-६६, उपरांत १९६६-६८ वर्सा हिंदी नौदल ध्वजाधिकारी, १९६८-७० वर्सा अस्तंती विभागाचो नौदल समादेशक ह्या पदांचेर ताणें कामां केल्यांत. १९६२ वर्सा ताका अतिविशिश्ट आनी १९६८ वर्सा परमविशिश्ट हीं सेवा पदकां मेळ्ळ्यांत. १९७० वर्सा तो नौदलाचो मुखेल जालो. १९७१ वर्साच्या भारत-पाकिस्तान झुजांत खास कामगिरी केल्लेखातीर १९७२ वर्सा ताका पद्मविभूषण ही पदवी मेळ्ळी. सेवेंतल्यान निवृत्त जातकच तो भारतीय तारवां येरादार निगमाचो अध्यक्ष आनी कार्यकारी संचालक जालो. 'इराणो-हिंद शिपिंग कंपनी' चे स्थापणुकेंत ताणें भारत सरकारावतीन फुडाकार घेतलो.

- कों. वि. सं. मं.

## नंदादेवी : हिमालयाचें, पाकिस्तानव्याप्त प्रदेशा भायलें भारतांतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक. उंचाय ७,८१७ मी. हें दोन तोंकांचें तेमूक उत्तर प्रदेश राज्याच्या उत्तर भागांत, गढवाल जिल्ह्याचे अस्तंत शिमेलागीं आसा. हाचीं उदेंत आनी अस्तंत तेमकां सुमार ७,५०० मी. उंचायेच्या तीन किमी. च्या दांतेरी कटकान(ridge) जोडल्यांत. हाचेभोंवतणी सुमार ११२ किमी. परिघाचीं आनी सरासरी ६,१०० मी. उंचायेच्या दोंगुल्ल्यांच्या ओळीचीं दोन वलयां आसात. तातूंत ६,४०० मी. परस चड उंचायेचीं १९ तेमकां आसात. ह्या वलयांतल्यान अस्तंतेकडल्यान वाट काडून सुमार ६२५ चौ. किमी. प्रदेशांतलें हिमवहन करपी हिमन्हंयेतल्यान भायर सरिल्लो ऋषीगंगा न्हंयेचो प्रवाह सकयल कोसळटा आनी खोल, देगणांतल्यान व्हांवत वचून फुडें गंगेक मेळटा. मायलम आनी पिंडारी हिमन्हंयांक हिमपुरवण नंदादेवी हिम वाठारांतल्यानूच जाता. कितल्याशाच वर्सांसावन व्हड प्रमाणांत हिंदू यात्रीक हांगा येत आसले तरी १९३४ मेरेन नंदादेवीच्या भिरांकूल परिसरांत कोणेंच पांय दवरूंक नाशिल्लो. त्या वर्सा एरिक शिप्टन आनी टिलमन हाणीं तीन शेरपांसयत ऋषीगंगेच्या देगणांतल्यान व्हडा कश्टान आनी धाडसान वाट काडून भितर प्रवेश केलो. दोंगुल्ल्यांचेर आशिल्ले फर आनी स्प्रुसाचे रूख, मदल्या देगणांत रानबोकड्यो आनी रानमेंढरां चरत आशिल्लीं दाट मड्डां, निळ्या उदकाचीं तळीं आनी ह्या सगळ्यां मदीं आशिल्लें नंदादेवीचें पवित्र तेमुक असो सोबीत देखाव ताणीं पळेलो. २९ ऑगस्ट १९३६ ह्या दिसा ओडेल आनी टिलमन हाणीं नंदादेवी पयलीं सर केलें. उपरांत १९५१त तेनसिंग नंदादेवीच्या उदेंत तेमकाचेर चडून गेल्लो. १९६४ त कॅ. नरेंद्रकुमार हाच्या फुडारपणाखाल भारतीय पंगडानय नंदादेवी चडून वचपाक येस मेळयलें. नंदादेवीचे दक्षिणेक सुंदरडुंगा देगणांत १९७० सावन कलकत्ता विद्यापिठावरवीं शास्त्रीय संशोधन चालू आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## नंदी : एक मुखेल शिवगण आनी शंकराचो द्वारपाळ. ताका नंदीश, नंदीश्वर, नंदिकेश्वर अशीं हेर नांवां आसात. शिवाच्या सहस्त्र नांवांमदीं नंदी हेंय एक नांव आसा. शिवपुराणाच्या शतरूद्रखंडांत शिवाचे अवतार वर्णिल्ले आसात. तातूंत नंदीची कथा अशी आसा - शालंकायनाचो पूत शिलादमुनी हाणें आपल्याक पूत जावंचो, हे इत्सेन शिवाक प्रसन्न करून घेवपाखातीर खर तप केलें. शिव प्रसन्न जातकच ताणें ताचेकडेन असो वर मागलो, 'म्हाका तुजे भाशेनूच एक पूत दी'. शिवान 'तथास्तू' म्हळें. फुडें एक फावट शिलादमुनी यज्ञाखातीर आंगणांतली जमीन खण्टा आसतना ताका एक भुरगें मेळ्ळें. ताका पळयतनाच शिलादाक शिवाचें स्वरूप जाणवलें आनी देखून ताका आनंद जालो. त्या आनंदाचो उगडास म्हणून ताणें त्या भुरग्याचें नांव 'नंदी' (आनंद दिवपी) अशें दवरलें. नंदीन पिरायेच्या आठव्या-णवव्या वर्सा खर तप करून शिवाक प्रसन्न करून घेतलो. शिवान ताका पुताभाशेन मानलो आनी आपल्या गणांचो मुखेली केलो. विष्णुपुत्रांचो जाच ना करपा खातीर शिवान बैलाचें रूप धारण केल्ल्याचोय उल्लेख शिवपुराणांत आसा.



महाभारत आनी पुराणां हातूंत नंदिकेश्वराविशीं कथा मेळटात. रामायणांत तो कुरुप, मोटवो आनी वानरातोंडाचो आशिल्ल्याचें म्हळां.

शैव लोक पारमार्थीक नदरेन नंदी हें आनंदतत्त्वाचें प्रतीक मानतात. शिवाच्या तांडवनृत्या वेळार ताल धरपाक तो आसता, देखून ताका 'तांडवतालिक' अशेंय म्हण्टात.

दक्षिण भारतांतल्या शिवमंदिरांच्या दारांत नंदीची चतुर्भूज मूर्त आसता. गोंयांतल्या श्री मंगेश, श्री नागेश आनी हेर शिव मंदिरांच्या दारांत नंदीची मूर्त आसा. विष्णुधर्मोत्तरपुराण, हेमाद्रीचो चतुर्वर्गचिंतामणी, अभिलाषितार्थ चिंतामणी सारक्या ग्रंथांनी नंदकेश्वराचें चतुर्भूज, तीन दोळे, तांबशा वर्णाचो, त्रिशूळ आनी गोफीण धारण केल्लो अशें वर्णन मेळटा.

शिवाच्या देवळांत पिंडीमुखार नंदी आसता. शंकर आनी ताचे गण हांचेकडेन बैलाचो संबंद खूब पुर्विल्ल्या काळासावन जोडिल्ल्यान नंदी वा नंदकेश्वर म्हणजेच बैल अशेंच समिकरण जालां आसूंक जाय. दक्ष यज्ञाचो संहार करपाखातीर शंकरान आपले जटेंतल्यान वीरभद्र निर्माण केलो, ताचें वाहन बैल आसलें.

वीरशैव संप्रदायांत शिवाचें वाहन नंदीक खूब म्हत्व आसून ते नंदीक बसव (वृषभ) ह्या नांवान वळखतात. वीरशैव लोक बसवेश्वराक नंदीचो अवतार मानतात.

दक्षिणेंत कांयकडेन नंदीचीं स्वतंत्र देवळां आसात. बेंगळूरच्या नंदी देवळांत नंदीची सुमार सात हात ऊंच मूर्त आसा. म्हैसुराक चामुंडी दोंगुल्लेचेर नंदीची खूब व्हड मूर्त आसा. अशीच एक मूर्त शिरसी लागीं, बनवासी हांगा, मधुकेश्वरच्या देवळांत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## नंदी तिम्मन्ना : (सोळावें शतमान. कारकीर्द : १५०६-३०).

नामनेचो तेलुगू कवी. कृष्णदेवराय हाच्या दरबारांतल्या अष्टदिग्गतांतलो हो एक कवी आसलो. पेद्दना फाटोफाट हाका म्हत्व दितात. ताचे आवयचें नांव तिम्मांबा आनी बापायचें नांव सिंगनामात्य. 'मुक्कु तिम्मना' आनी 'अरणमु तिम्मना' ह्या दोन अर्थपूर्ण नांवांनीय ताका वळखताले. चंपकपुश्पान भ्रमर स्वताभोंवतणीं गुंजारव करिना देखून ताणें खर तप केलें. ताचें फळ म्हणून चांफेकळीक सोबीत बायलेच्या नाकाचें रूप प्राप्त जालें आनी तिच्या दोनूय वटांनी दोळ्याच्या रुपान दोन भ्रमर येवन बसले. अशी सुंदर कल्पना तिम्मनान आपल्या एका काव्यांत मांडली. देखून ताका 'मुक्कु तिम्मना' हें नांव पडलें. तेभायर कवी म्हणून राजसभेंत आनी राणी चित्रांबा हिच्या कुळारचो 'अरणमु' (हुंडो) वांगडा भेट म्हणून आयिल्ल्यान ताका अंतपुरांतय खूब मान आशिल्लो.

परिजातापहरण ही ताची एकसुरी आनी म्हत्त्वाची काव्य रचना. हें एक व्हड प्रबंधकाव्य. संस्कृत हरिवंशांतल्यान कथानक घेवन ताणें ताका काल्पनीक जोड दिल्या.

एक फावट राणी चित्रांबा आनी कृष्णदेवराय हांचेमदीं गैरसमजाक लागून वाद जालो. तेन्ना दोगांचोय मेळ घडोवपाक अप्रत्यक्ष हेतान सत्यभामा आनी श्रीकृष्ण हांच्यांतल्या अशाच प्रसंगाचेर हें शृंगाररसान भरिल्लें काव्य रचलें. हातूंत सत्यभामेचो राग आनी श्रीकृष्णाचें तिका समजावप हांचें वर्णन कवीन मोटे कलात्मक रितीन केलां. ह्या काव्याच्या निमाणें सत्यभामेन नारदाक श्रीकृष्णाचें दान करून उडयल्ल्यान ताका नारदाचें दास्यत्व आपणावचें पडलें. देखून नारदाचे विणेपसून माळेमेरेन सगळ्या वस्तूंचो भार घेवंचो पडलो, ह्या वर्णनांतलो विनोद आनी कल्पकताय हीं खाशेलपणां उल्लेख करपासारकीं आसात. ह्या काव्यांतलो आशय तशेंच अभिव्यक्ती भोवच सुंदर जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## नंदीबैल :

लोकरंजनाखातीर नाच करपी सजयल्लो बैल. ह्या नंदीच्या गळ्यांत घांटींची माळ, पांयांनी घागऱ्यो, शिंगांक पितूळच्यो तोपयो आनी रंगीबेरंगी कपड्यांचे लांबपी गोंडे, फाटीचेर झूल, कपलाचेर देवांच्यो मूर्ती घालून बैलाक सजयतात. नंदीवाले लोकांच्या दारांत वचून वाद्यांच्या तालार नंदीबैलाचे खेळ करतात.

ह्या खेळांत नंदीवाले नंदीबैलाकडल्यान विंगडविंगड कसरती करून घेतात. खेळाचे अखेरेक नंदीवाले लोकांचेवतीन नंदीक प्रस्न घालतात. ह्या प्रस्नांच्यो जापो नंदी उबी वा आडवी तकली हालोवन दिता. नंदीवाल्यान



ताका अशे तरेन शिकोवन तयार केल्लो आसता की ताणें बरे गजालीक बरी जाप दिवंची आनी वायट गजालीक न्हयकार दिवंचो. ह्या प्रकाराक 'भविश्यकथन' अशें म्हण्टात. हो खेळ जातकच बायलो, दुदान-उदकान नंदीबैलाचे पांय धुयतात, ताच्या कपलाचेर पिंजर आनी फुलां घालून पुजा करतात. उपरांत नंदीवाल्याचे झोळयेंत पोरणे कपडे, कड्डण, तांदूळ, पयशे घालतात. तशेंच नंदीबैलाकूय पियेवपाक उदक आनी किदेंय खावपाक दितात. निमाणें, नंदीवाले नंदीबैलाकडसून लोकांक आर्शिवाद दितात.

गोंयांत नंदीबैलाक घणसाबैल अशेंय म्हण्टात.

आदल्या तेंपार जेन्ना करमणुकीचीं साधनां चड नाशिल्लीं तेन्ना 'नंदीबैल' हो गांवांतल्या भुरग्यांखातीर म्हत्वाची मनोरंजनाची अशी गजाल आशिल्ली. पूण हालींच्या काळांत आर्विल्ल्या यंत्रीक युगाक लागून नंदीबैल आनी नंदीवाले उणे जायत गेल्यात.

ही लोकरंजक संस्था खूब पोरणी आसूं येता. 'अनुयोगद्वारसूत्र' ह्या ग्रंथांत हे संस्थेचो 'पांडुरंग' ह्या नांवान उल्लेख आसा. ह्या पांडुरंग पंथाचे लोक भस्म लायताले. बैल पोसताले आनी प्रतिश्टीत लोकांक बैलांकडसून नमस्कार करून भिक्षा घेताले अशें त्या ग्रंथांत म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

## नंदेश्वर, ताराचंद हागरुजी : (जल्म : १ जुलय १९३५, नागपूर - महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें आपलें शिक्षण एल. टी. सी. मेरेन घेतलें, तेचपरी ताणें लायब्ररी सायन्सीचो डिप्लोमा घेतलो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा ताणें गोंयांत सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरून काळखाकुडींत दवरलो आनी सुटका जायमेरेन खूब मार घालो. १९८६ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## न :

वर्णमाळेतलें विसावें व्यंजन आनी त वर्गांतलो पांचवो वर्ण. हाच्या विकासांत चार अवस्था दिसतात. पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनारच्या लेखांत मेळटा; दुसरी कुशाणवंशी राजाच्या मथुरेंतल्या लेखांत (इ. स. चो पयलो शेंकडो); तिसरी मेवाडचो गुहिलवंशी राजा अपराजित हाच्या

वेळच्या कुंडलेश्वरांतल्या लेखांत (इ. स. ६६१) आनी चवथी अवस्था हैहयवंशी राजा जाजल्लदेवाच्या वेळच्या लेखांत (इ. स. १११४) मेळटा.

न च्या रुपाचो विकासक्रम असो आसा -



वर्णोध्दारतंत्रांत 'न' चें ध्यान वर्णिलां तें अशें -

ध्यानमस्य नकारस्य वक्ष्यते श्रुणु भाविनि ।
दलिताञ्जनवर्णाभां ललज्जिह्वां सुलोचनाम् ।
चतुर्भुजां कोटराक्षीं चारुचन्दनचार्चिताम् ।
कृष्णाम्बरपरीधानामीषद् हास्यमुखीं सदा ।।

**अर्थ** - हे पार्वती, ह्या नकाराचें ध्यान सांगतां तें आयक. ही नकाररुपी देवता घोंटिल्लेच्या काजळाच्या वर्णाची, जिची जीब लडलडत आसा अशी, सुलोचना, खोल दोळ्यांची, चार भुजांची, चंदनचर्चित, कृष्णवस्त्र न्हेशिल्ली आनी सदांच मात्शी हांसतमूख आसपी अशी आसा.

दात हें हाचें उच्चारणस्थान.

- को. वि. सं. मं.

**नक्सलवाद** : 'नक्सलवाद' हो शब्द अस्तंत बंगालांतल्या दार्जिलिंग जिल्ह्यांतल्या नक्सलवाडी नांवाकडेन जोडिल्लो आसा. अस्तंत बंगालांत दार्जिलिंग जिल्ह्याच्या सिलीगुडी पोटविभागांत आनी हिमालयाच्या मुळसांत नक्सलवाडी हो सुमार २०७ चौ. किमी. चो प्रदेश आसा. ह्या भागांत वट्ट ६० खेड्यांचो आस्पाव जाता. हांगाची वसती चडशी संथाळ, ओराओं, मुंडा आनी राजवंशी ह्या आदिवासी जमातींची. हांगा मे १९६७त माओवादी कम्युनिस्ट लोकांनी सशस्त्र उठाव करपाचे यत्न केले. सुर्वेक ही चळवळ नक्सलवाडीक सुरू जाली. उपरांत ती देशांत साबारकडेन पातळ्ळी. ते चळवळीक नांव मात 'नक्सलवादी चळवळ' अशें पडलें. नक्सलवाद हो मार्क्सवादी-लेनीनवादी तत्त्वगिन्यानाचो भारतांतलो एक आविश्कार. चीनाचे क्रांतीचो मुखेली माओ-त्से-तुंग हाचे विचार उपयोगांत हाडपाचे नक्सलवाद्यांनी खूब यत्न केल्ले. हाका लागून जे कोण नक्सलवाडीच्या मार्गान गेल्ले ते 'नक्सलवादी' आनी ताणीं आपणायले विचार म्हळ्यार नक्सलवाद अशें समजतात.

रशिया आनी चीन हांच्यामदल्या वादाक १९६३ त नेट आयिल्लो. ताका लागून आंतरराश्ट्रीय कम्युनिस्ट चळवळीक वेर गेली. हाचो परिणाम भारतांतल्या कम्युनिस्ट पक्षाचेरूय जाल्लो. भारतांतलो चीनीवादी गट १९६४ त मुळाव्या कम्युनिस्ट पक्षासावन वेगळो जालो. अशे रितीन भारतांत मार्क्सवादी कम्युनिस्ट पक्षाची थापणूक जाली. १९६७त मार्क्सवादी कम्युनिस्ट पक्षान वेंचणुकेंत वांटो घेवन उपरांत तो अस्तंत बंगाल आनी केरळांतल्या सरकारांत हेर दाव्या पक्षांकडेन वावुरपाक लागलो. ह्याच तेंपार गांवगिऱ्या वाठारांनी शेतकामती आनी जमीनदार हांचे भितल्ल्या संघर्शाक नेट आयिल्लो. हे गजालीचो फायदो घेवन मार्क्सवादी कम्युनिस्ट पक्षांतल्या माओवादी गटान फुडाकार घेवन दार्जिलिंग जिल्ह्यांतल्या नक्सलवादी शेतकामत्यांक फुसलावन सशस्त्र उठाव घडोवन हाडिल्लो. हे माओवादी क्रांतीचें वारें हेरकडेनूय पातळपाक लागलें. माओवादी लोकांनी गांवगिऱ्या वाठारांनी वचून शेतकामती गिरिजन हांकां एकठांय हाडून सशस्त्र बंड सुरू केलें. अस्तंत बंगाल, बिहार, आंध्रप्रदेश, पंजाब आनी केरळ राज्यांत नक्सलवादी लोकांनी ल्हान-ल्हान शेतकामत्यांचो आनी विद्यार्थ्यांचो तेंको मेळोवपाचो यत्न केलो.

नक्सलवादी नांवासकयल काम करपी हे विंगड विंगड गट माओवादी आशिल्ले. पूण मुखावयलीं कांय वर्सां तरी ते एकठांय आयलेनात. एप्रिल १९६९ त माओ-त्से-तुंग हाचे विचारसरणेचेर आदारिल्ल्या एका पक्षांत संघटीत जाले. चारू मुजुमदार हाचे अध्यक्षतायेसकयल भारतीय मार्क्सवादी-लॅनीनवादी कम्युनिस्ट पक्षाची स्थापणूक केली. नागारेड्डी, के. पी. गोपालन्, सत्यनारायणसिंग आनी हेर मुखेल्यांनीय हे चळवळींत वांटो घेतिल्लो. नक्सलवादी लोकांनी माओ-त्से-तुंग हाच्या विचारांचेर आनी मार्शल लीन पियानोच्या 'पिपल्स वॉर' हे कल्पनेचेर १९६७ ते १९७२ मेरेन नक्सलवाडी, गोपीवल्लभपूर, श्रीकाकुलम्, वायनाड वाठारांनी व्हड प्रमाणांत सशस्त्र उठाव केल्ले. पूण हे सगळे उठाव बेकायदेशीर जाल्ल्यान पोलिसांनी आनी सैन्यान पुरायपणान मोडून उडयले.

ह्या काळांतली नक्सलवादी चळवळ तीन वांट्यांनी विभागिल्ली आसा. १९६७-६९ ह्या काळांत विंगडविंगड नक्सलवादी गटांत एके तरेचो सहकार आनी संयोजन आशिल्लें. लीन पियानच्या 'पिपल्स वॉर' च्या सिध्दांताप्रमाण गांवगिऱ्या वाठारांतल्या शेतकामत्यांनी व्हडा प्रमाणांत सशस्त्र उठाव केले आनी दर एका गांवांत वचून 'विलेज सोविएत' ची स्थापणूक केली. ह्या काळांत हे चळवळीक खूब नेट आयिल्लो. पूण पोलिसांनी हो उठाव मोडून उडयलो. दुसऱ्या कालखंडांत म्हळ्यार १९६९ उपरांत राज्य सरकाराच्या चेपणाक लागून नवें धोरण आपणायलें. हाका 'वर्गदुस्मान' काबार करपी राजकीय धोरण अशें म्हण्टात. चारू मुजूमदार हाच्या मुखेलपणासकल नक्सलवाद्यांचे ल्हान-ल्हान सशस्त्र गटांनी विभाजन केलें. गांवांतल्या लोकांचे सगळ्यांत व्हड वर्गदुस्मान सोदून काडून तांकां जिवेशीं मारप हो तांचो मुखेल वावर आशिल्लो. ह्या वर्गदुस्मानांमदीं व्हड जमीनदार, सावकार, वेपारी आनी पोलिसांच्या हस्तकांचो आस्पाव आशिल्लो. चळवळीचो तिसरो कालखंड १९७१ उपरांत सुरू जालो. ह्या काळांत कलकत्ता शारांत नक्सलवादी लोकांनी व्हड प्रमाणांत दहशतवादाक सुरवात केली. १९७४ त नक्सलवादी चळवळीचें मुखेल आव्हान सोंपलें आनी चळवळ साबार गटांनी विभागली. १९७७ त कांय नक्सलवादी मुखेल्यांनी विधानसभेच्यो वेंचणुको लडोवन दोग जाण वेंचून आयले.

नक्सलवादी आपल्याक मार्क्सवादी-लॅनीनवादी अशें मानतात. तांचें राजकी तत्त्वगिन्यान मार्क्स-लॅनीन-स्टालिन आनी माओ हांचे विचारसरणीचेर आदारिल्लें आसा अशें तांचें मत आशिल्लें. ह्या मताप्रमाण अर्थवेवस्था अजुनूय सरंजामशायेच्या युगांतूच आसून भारताचें राज्यय निमसरंजामशाय आनी परकियांचे हस्तक भांडवलशाय हांच्या हातांत आसा. भारताचें राज्य अजुनूय भांडवलशाय, जमीनदार, नोकरशाय, अमेरिकी साम्राज्यवाद आनी सोविएत समाजीक साम्राज्यवादान नियंत्रीत केल्लें आसा. ह्या तरांची वेवस्था फकत माओ-त्से-तुंग हाच्या क्रांतीकारक विचारांच्या आदारानच नश्ट जावंक शकता. भारतांत सशस्त्र उठाव मार्गानच क्रांती जावपाक जाय असो तांचो विचार आसलो. ताचे खातीर ताणीं 'पिपल्स वॉर' च्या सिध्दान्ताचो वापर केलो. गांवगिऱ्या वाठारांनी आपले तळ उबारपाक ताणीं सुरवात केल्ली. नक्सलवादी लोकांनी सरंजामशाय आनी जनता हांच्यांतलो वर्गविरोध हो भारतांतलो मुखेल विरोध मानून ते वरवीं आपलें धोरण

आंखलें आनी लोकक्रांती येसस्वी करपाची कल्पना मांडली.

भारतीय कम्युनिस्ट चळवळीच्या इतिहासाक नक्सलवादान नवी दिशा दिली. गांवगिन्या वाठारांतले मागाशिल्ल्या आनी आदिवासी भागांतले जमीनदार, शेतकामती हांचेमदलो विरोध आनी ताका लागून जाल्लो असंतोश ताणीं देशामुखार दवरलो. नक्सलवादाचें तत्त्वगिन्यान, धोरणां, संघटना आनी व्युहरचणूक साबार सदोश गजालींचेर आदारिल्ले आशिल्ल्यान तांचे चळवळीक खास अशें येस मेळूंक शकलें ना. तेभायर ताणीं हिंसेचेर दवरिल्लो भर आनी भावार्थ लोकशाय मानपी शांतताप्रिय मनशांक मानवलोना.

- कों. वि. सं. मं.

**नकासो** : चिन्नां, आकृती, संकेतीक भास सारकिल्या कुरवांनी धर्तरेवयल्या खंयच्याय घटकाचो, विशेश करून भूंयप्रदेशाची समतोल अशा आटीव प्रमाणांत आंखणी करपाचें शास्त्र. सदर घटकाच्या वेगवेगळ्या आंगांमदल्या अंतराचें मेजप, तांच्यो दिशा दाखोवप, तांचीं वैशिश्टयां दाखोवप आनी हेर संबंदीत बाबींचो उल्लेख करप हो नकाशाफाटलो हेतू आसता. धर्तरेवयल्या घटकांचो, प्रतिकात्मक असो केल्लो हो आलेख, मूळ घटकांचो अभ्यास करपाक खूब आदारं दिता.

मानचित्रकला (Cartography) ही नकासो आनी तकटो काडपाची एक खाशेली कला आनी विज्ञान. मानचित्रकलेचो चडसो संबंद भूगोलाकडेन येता.

नकाशाचे हेतू नदरेसामकार दवरून ते तयार करतात. तातूंतली दर एक गजाल दाखयल्ले दुसरे गजालीसावन अमुकूच दिशेक तशेंच तांचे भितरलें अंतर कितलें आसा हें दाखयता. नकाशाच्या हेतूक फावो आशिल्ल्यो सगळ्यो म्हत्वाच्यो गजाली तातूंत दाखयतात. हांचेभितरूच कांय चड म्हत्वाच्या गजालींचेर चड भर दितात. ह्या सगल्या गजालींक तांच्या आकाराप्रमाण कुरू दितात वा संकेताक्षरांनी दाखयतात. म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार नकाशांचेर अक्षवृत्त आनी रेखावृत्त हांचींय जाळीं काडील्लीं आसतात.

**मानचित्रकलेचो (नकासो) इतिहास** - आपल्यो येवजणो आकृत्यांच्या रुपांत उक्तावपाची कला मनशांभितर खूब आदल्या काळासावन आशिल्ली हाचे पुरावे सांपडल्यात. भोवंडेकारांक मार्गदर्शन करपाखातीर नकाशे तयार करपाची रीत खूब पोरणी. क्रिस्त वर्सा पयलीं सुमार २५०० काळांतली एक पोरणी वीट बॅबिलॉनाचे उत्तरेक ३२० किमी. पयस आशिल्ल्या गा-सूर ह्या गांवांत उत्खननांत सांपडल्या. ते विटेचेर एक न्हंय दाखयल्या. ती न्हंय युफ्रेटीस जावंक शकता असो इतिहासकारांचो तर्क आसा. हे न्हंयेच्या दोनूय वटांनी दोंगर दाखयल्ले आसात. उपरांत हे न्हंयेचें तीन फाट्यांनी रुपांतर जावन ते दक्षिणेकडेन दर्याक वा सरोवराक मेळटात तें दाखयलां. नकाशाचेर उत्तर, उदेंत आनी अस्तंत ह्यो दिशा वाटकुळांनी दाखयल्यात. हाचेवयल्यान, खूब आदल्या काळांत लेगीत मनीस एकामेकाक मार्गदर्शन करपाखातीर आपले सरभोंवतणची स्थिती नकाशांच्या आदारान उक्तायताले हें स्पश्ट दिसता. अशे विंगडविंगड नकाशे आशिल्ल्यो विटो ब्रिटीश संग्रहालयांत दवरल्यात.

पुर्विल्ल्या काळांत इजिप्त राश्ट्रांत भूमितिच्या आदारान जमीन मेजताले. विंगड विंगड पिकां घेवप जमनीच्या क्षेत्राचेर आदारून शेतवडीची जमीन थरोवप हाका त्या वेळार खूब म्हत्व आशिल्लें. इ. स. पयलीं तेराव्या शेंकड्यांत इजिप्तांत भूंयसर्वेक्षण रीतसर करताले. त्यो नोंदी नकाशांत दाखोवपाचीय शक्यताय आशिल्ली अशें कांय जाणांचें मत आसा.

**ग्रीसी नकाशे** - पुर्विल्ल्या काळांत भूगोलाची चडशी म्हायती फकत ग्रीसी लोकांक खबर आशिल्ली. शेतवडीक फावो आशिल्ली सुवात ग्रीसांत उणी आशिल्ल्यान, तशेंच आपलो वेपार वाडोवपाचे नदरेन तांकां हेरकडेन वसणुकेची स्थापणूक करपाची त्या काळांत खूब गरज आशिल्ली. हाका लागून उदकामार्गाचोय सोद तांकां लावंचो पडलो. ह्या सगळ्या कारणांक लागून इ. स. प. पांचव्या शेंकड्यामेरेन तांकां भूगोलाची हेर देशांपरस खूब म्हायती आशिल्ली. इ. स. प. पांचव्या शेंकड्यांत ग्रीसी लोकांक फकत उदेंतेक सिंधू न्हंयेसावन अस्तंतेक ॲटलांटिक म्हासागरामेरेन पाताळिल्ल्या प्रदेशाविशीं म्हायती आशिल्ली. उपरांत धर्तरी ही तबकडे सारखी नासून पेल्ला भाशेन वाटकुळी आसा ही कल्पना प्लॅटोन आपल्या लिखाणांत मांडल्या. मुखार इ.स.प. ३५० त ॲरिस्टोटल हाणें धर्तरी वाटकुळी आसा हें पुराव्यावरवीं सिध्द केलें. धर्तरेची परिभ्रमणाची कक्षा लंबवाटकुळाकार (elongated) आसा हें सिध्द करून, विंगड-विंगड थळांचे अक्षांश थरोवपाचे यत्न जाले. अशे रितीन धर्तरेच्या गिन्यानांत भर पडत गेली.

आर्विल्ल्या नकाशांची बुन्याद मुखेलपणान पुर्विल्ल्या काळांतल्या ग्रीसी लोकांनी घाली. धर्तरेचें वाटकुळेपण, तिचे ध्रूव, विशुववृत्त आनी उश्ण कटीबंध ह्यो सगळ्यो गजाली सुर्वेक ताणीं वळखल्यो. मुखार अक्षवृत्त आनी रेखावृत्त ह्यो कल्पना ताणीं मांडल्यो. धर्तरेचें आकारमानय ताणींच थरयलें. ग्रीसी लोकांनी नकाशाशास्त्रांत केल्ले हे उदरगतीची माहिती हिरॉडोटस आनी स्ट्रेबो हांच्या लिखाणांतल्यान मेळटा. त्या काळांत आयोनियन लोकांनी ह्या शास्त्रांत खूब उदरगत केली. इ.स.प. सव्या शेंकड्यांत ॲनॅक्सिमँडर हाणें सगळ्यांत पयलीं 'ग्रीसी नकासो' तयार केलो. पूण त्या काळांत धर्तरी ही तबकडेसारकी आसून तिका दर्याच्या उदकान वेश्टिल्या असो तांचो समज आशिल्लो.

इसवी सनाच्या दुसऱ्या शेंकड्यांत टायर गांवचो मेरिनस आनी टॉलेमी हे ग्रीसी इतिहासांतले दोन म्हत्वाचे शास्त्रज्ञ जावन गेले. मेरिनस हाणें अक्षवृत्ती आनी रेखावृत्ती हांचीं नकाशांचेर जाळीं काडपाचे पद्दतींत चड उदरगत केली. पूण टॉलेमी हाणें ताचेर टिका करून आपल्या नकाशांत सुदारणा केली.

**टॉलेमीचो काळ** - पुर्विल्ल्या काळांत भूगोल म्हायती आनी मानचित्रकला हातूंत उदरगत घडोवन हाडपाफाटल्यान कालॉडियस टॉलेमी (इ.स. ९०-१६८) हाचो व्हड हातभार आशिल्लो. तो एक व्हड गणितकार आनी ज्योतिशशास्त्रज्ञ आशिल्लो. ताचो 'जिऑग्रॅफिया' हो ग्रंथ आठ खंडांनी प्रसिद्ध जाल्लो आसा. ह्या ग्रंथांत नकासो शास्त्र, प्रक्षेपणां आनी मेरिनसच्यो कल्पना हांचेर केल्लीं वर्णनां, तशेंच सुमार ८,००० थळांचे भुगोलीक अक्षांश आनी रेखांश दिल्ले आसात. टॉलेमिच्या हस्तलिखीत ग्रंथाचे दोन भाग केल्ले आसात. तातूंतल्या एका भागांत जगाचो नकासो आनी हेर ल्हानसान २६ नकाशे आसात. ताचें लिखाण आनी नकाशे हांकां लागून मुखावयल्या काळांत सुदारिल्ले नकाशे काडपाक खूब हातभार लागलो. ताच्या नकाशा प्रमाण जगाचो उदेंत-अस्तंत विस्तार १८०° रेखांशामेरेनूच आशिल्लो हें कळटा. ह्या नकाशांत कांय दोशूय आशिल्ले.

**रोमी नकाशे** - रोमी लोकांनी तयार केल्ले नकाशे पळयल्यार तांच्या

भोंवडयांच्या वर्णनांची तीं रेखाचित्रां आसात अशें दिसता. रोमी लोकांक गणितीय भूगोलांत वा खगोलशास्त्रांत रस नाशिल्लो, हें तांच्या नकाशांवयल्यान दिश्टी पडटा. सैनिकी तळ आनी थळावो राजकारभार रीतसर चलोवंचो म्हणून ताणीं हे नकाशे रेखाटिल्ले. फ्लिनी हाणें 'नॅचरल हिस्टरी' ह्या ग्रंथांत 'जगाचें सर्वेक्षण' ह्या नकाशाचो उल्लेख केला. बाराव्या शेंकडयांत रोमी बादशाह ऑगस्टस हाचो जांवय आग्रिपा हाणें तो तयार केल्लो. ताचे संबंदान केल्ल्या उल्लेखांवयल्यान तो वाटकुळो आशिल्लो. धर्तरी ही वाटकुळी, तबकडेसारकी आसा अशें तातूंत दाखयलां.

**मदल्या काळांतले नकाशे** - मदल्या काळांत मानचित्रकला हातूंत चडशी भर पडलिना. हाका लागून ह्या काळांत नकाशा-शास्त्रांत उदरगत जालिना. ह्या काळांत युरोपांत चडसो रोमी इगर्जेचो शेक चलतालो आनी हाका लागून नकाशांनीय क्रिस्तांव धर्मशास्त्राप्रमाण बदल जायत रावले. तांच्या मतान धर्तरी ही देवान निर्माण केल्ली एक कलाकृती. देवान निर्माण केल्ले हे धर्तरेचेर मदल्या भागार जेरूसलेम आसा अशें ताणीं आपल्या नकाशांत दाखयल्लें. अशे तरेन नकाशा-शास्त्रांत चुकांची भर पडत गेली. इसवी सनाच्या आठव्या शेंकडयासावन पंदराव्या शेंकडयामेरेन रोमी लोकांच्या कल्पनांचेर साबार नकाशे तयार जाले. हातूंतले म्हत्वाचे नकाशे म्हळ्यार 'टी इन ओ' (T in O) वा रोदाच्या आकाराचे आशिल्ले. ह्या नकाशांच्या आदारान खबर आशिल्ल्या जगाच्यो शिमो दाखयताले. त्या नकाशांत 'T' हें अक्षर आडवें बसयताले. ह्या अक्षराची आडवी ओळ डॉन (आदली टॅनीअस) न्हंय ते नायल न्हंयेमेरेनचें अंतर दाखयताली. ह्या तेंपार अरब देशांनीय असल्याच प्रकाराचे नकाशे काडटाले.

मध्ययुगाच्या निमाणेकडेन म्हळ्यार तेराव्या ते सोळाव्या शेंकडयामेरेनच्या काळांत पोर्टोलन नकाशे तयार केल्ले. ते चड करून इटालियी आनी कॅटॅलन लोकांनी कंपासाच्या आदारान तयार केल्ले. ह्या लोकांनी सुर्वेक ल्हान ल्हान प्रदेशांचें सर्वेक्षण केलें आनी उपरांत त्या सर्वेक्षणाच्यो नोंदी एकठांय हाडून व्हड नकाशे तयार केले. तातूंत मुखेलपणान भूंयमध्य दर्या, ताचे लागशिल्ले दर्या आनी अॅटलांटिक म्हासागर हाच्या देगेलागचे प्रदेश दाखयल्ले. हातूंत केन्ना केन्नाय अक्षवृत्त आनी रेखावृत्त हांचोय आस्पाव आसतालो. तशेंच, साबार बिंदूंसावन विंगडविंगड दिशांक वचपी सरळ ओळी काडिल्ल्यो आसताल्यो. ह्या ओळींच्या आनी कंपासाच्या आदारान मेळपी दिशांनी खूब साम्य आशिल्ल्या कारणान ह्या नकाशांचो जलपर्यटनाखातीर खूब उपेग जातालो.

सोळाव्या शेंकडयाच्या सुमाराक युरोपांत टॉलेमीच्या नकाशा संग्रहाच्या आदारान साबार नवे नकाशे तयार केले. ह्यच सुमाराक नव्या प्रदेशांचो सोद लावपाक सुरवात जाल्ली. ते खातीर नवे नकाशे तयार करपाची खूब गरज आशिल्ली. हाका लागून ह्या तेंपार नकासो शास्त्रांत भर पडत रावली. सोदकाम करून तयार केल्लो ग्रेट ब्रिटनाचो नकासो सुर्वेक रोमांत १५४६ त उजवाडाक हाडलो. १५७० त ऑर्टीलिअस हाणें जगाचो नकासो उजवाडा हाडलो. क्रिस्तोफर सॅक्स्टन हाणें ग्रेट ब्रिटनाखातीर १५७९ त राष्ट्रीय नकासोसंग्रह तयार केलो. हो संवसारांतलो पयलो राष्ट्रीय नकासोसंग्रह. सतराव्या शेंकडयांत नॅदर्लंडसाक बरे नकाशे तयार जावपाक लागले. हांगा मर्केटर, ऑर्टीलियस, हॉंडियस, ब्ल्यू जानसून आनी हेर नकाशे-शास्त्रज्ञ त्या काळांत निर्माण जाले. ह्या काळांत हॉलंडी लोकांचें साम्राज्य खूब पयसमेरेन दर्यापलतडीं पातळिल्लें. हाका लागून तांच्या भुगोलीक गिन्यानांत भर पडत गेली आनी जलपट (Nauticle) नकाशे आनी नकासोसंग्रह तयार करप तांकां सोपें जालें. ह्याच शेंकडयाच्या शेवटाक फ्रांसेझ अकादमीन विंगडविंगड थळांचे रेखांश थारायल्ले. ह्याच सुमाराक साबार देशांत राष्ट्रीयतेची भावना निर्माण जावन तांच्या प्रदेशांचें सर्वेक्षण जालें. शास्त्रीय संशोधन जावन रेखावृत्तांभितल्लीं अंतरां थारायलीं. भूगोल, भूंयमापन-शास्त्र, जलविद्या, सर्वेक्षण, खोदकाम, वर्गलिखाण, चित्रकला आनी सजवणुकेचे कलेंत तशेंच हेर मळांचेरूय युरोपांत खूब उदरगत जाल्ली.

अठराव्या शेंकडयांत आधुनीक नकासो-शास्त्र उदयाक आयलें. १७४७ ते १७९३ मेरेनच्या काळांत फ्रांसांत कासिनीच्या मार्गदर्शनाखाल प्राकृतिक नकाशे तयार केले. खगोलीय निरिक्षण आनी त्रिकोणांकीत सर्वेक्षण ह्या दोनूय पद्दतींच्या आदारान नकाशे तयार केले. हे नकाशे १:८६,४०० ह्या प्रमाणाचेर तयार केल्ले. ह्याच तेंपार विल्यम रॉय हाणें एका इंचाक एक हजार गज ह्या प्रमाणाचेर स्कॉटलॅंडाचो नकासो तयार केल्लो. त्या काळांतल्या हेर नकाशांपरस तो एक बऱ्यांतलो बरो नकासो आशिल्लो. उपरांत ताणें थिओडोलायटच्या आदारान ब्रिटनाचो नकासो तयार केलो. ताच्या मरणाउपरांत, ताची सर्वेक्षण पद्दत ब्रिटनाच्या लस्करी साहित्य खात्याच्या मंडळान उपेगांत हाडून नकाशे तयार केले.

**जगाचो आंतरराश्ट्रीय नकासो** - १८९१ त भरिल्ल्या राष्ट्रीय भुगोलीक मेळाव्यांत सगळ्या राष्ट्रांनी मेळून जगाचो एक आंतरराश्ट्रीय नकासो तयार करचो आनी ताचें प्रमाण १:१ दशलक्ष अशें आसचें तशेंच त्या नकाशाची स्वतंत्र अशी पद्दत आसची अशें तातूंत थरयलें. हे येवजणेवरवीं सुमार १,५०० नकाशे तयार जातले आनी दर एका नकाशांत सादारणपणान ६° रेखांश X ४° अक्षांश इतलें क्षेत्र दाखोवचें, ६०° अक्षवृत्ता पलतडच्या देशांत ह्या नकाशाचो उदेंत-अस्तंत विस्तार १२° मेरेन दवरचो, नकाशांत सुदारिल्ल्या पॅलिकॉनिक प्रक्षेपणाचो वापर करचो अशें ह्या मेळाव्यांत थरयलें. आपल्या-आपल्या प्रदेशांचे नकाशे त्या-त्या देशांनी तयार करचे असोय थाराव तातूंत पास जालो. पूण हे येवजणेक फावो तो पालव मेळूक नाशिल्ल्यान ह्या मळार व्हडलोसो वावर जालोना. पूण दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत नकाशे तयार करपाच्या वावरांत खूब नेट आयलो. १९४५-५० मेरेनच्या काळांत चड करून ज्या प्रदेशांचे नकाशे तयार करूंक नाशिल्ले ते तयार केले. ह्या कार्यांत मळब छायाचित्रणचो खूब हातभार लागलो.

सगळ्या राश्ट्रांनी मेळून पास केल्ल्या थारावांक लागून निर्माण जाल्लो राश्ट्रीय अॅटलास हो एक म्हत्वाचो प्रकार. तातूंत देशांविशीं म्हायती दाखोवपाचे नकाशे, आकृती वा ओळीचित्रां दिल्लीं आसात. हातूंत वेगळ्यावेगळ्या देशांविशीं भूंयरचणूक, हवामान, मातयेचे प्रकार, अर्थीक उत्पन्नां आनी समाजीक स्थिती दाखयल्या. १९३७ त रशियेन तयार केल्लो अॅटलास खूब प्रसिद्ध आसा. नकासो तयार करपाच्या संस्थांनीय ह्या कार्याक खूब हातभार लायलो.

**अर्वाचीन नकाशे आनी तांचे प्रकार** - नकाशांच्या प्रमाणांवरवीं अर्वाचीन नकाशांचे तीन मुखेल प्रकार आसात —

१) नकाशासंग्रहातले नकाशे - ह्या नकाशांचें प्रमाण सादारणपणान १:६,३३,६०० परस व्हड आसा.

२) सखोल नकाशे - ह्या नकाशांचें प्रमाण १:६३,३६० परस व्हड आसा.

३) स्थल-वर्णनाविशींचे नकाशे.

**नकाशासंग्रहांतले नकाशे -** सोळाव्या शेंकड्यासावन तांब्याच्या पत्र्याचेर खोदकामाक सुरवात जाली आनी नकाशांचें मुद्रण सुरू जालें. तेन्ना मुद्रीत नकाशांची संख्या वाडपाक लागली. त्या तेंपार नकाशांच्या संग्रहाक खाशेलीं अशीं नांवां नाशिल्लीं. थिएट्रम (थिएटर), जिऑग्राफिया, सॅक्यूलम, कॉस्मोग्रॅफिया आनी ॲटलास हीं कांय नकाशासंग्रहाक दिल्लीं नांवां. ॲटलास हें मर्केटरान दिल्लें नांव सर्वसादारणपणान घोळणुकेंत आसा.

अर्वाचीन नकाशासंग्रह वेगळ्या-वेगळ्या आकारांनी प्रसिद्ध जाल्ले आसात. जगाचे नकाशे सादारणपणान १:२५५ दशलक्ष वा एका इंचाक तीन ते चार हजार मैल ह्या लघुप्रमाणाचेर काडिल्ले आसतात. हाका लागून नकाशांत दाखयल्लो व्हड भूंयप्रदेश साप उण्या जाग्यार दाखयल्लो आसता, हे खातीर त्या प्रदेशाची रीतसर म्हायती दिवप शक्य जायना. पूण ह्या नकाशांच्या आदारान एकेच नदरेन सबंद खंडांत पडपी पावसाचें प्रमाण, तापमान, खनिजां, सैमीक वनस्पत आनी हेर गजालींची वांटणी कशी जाल्या हाची म्हायती मेळटा.

**सखोल नकाशे -** ज्या नकाशांनी एका इंचांत एका मैलापरस उणें अंतर दाखयल्लें आसता तांकां सखोल नकाशे म्हण्टात. शारांचे आनी गांवांचे नकाशे तयार करपाक हो प्रकार फायदेशीर थारता. तातूंत संस्कृतीक गजालींचेर चड भर दितात. सगळ्या देशांचे नकाशे तयार करपाचें काम सादारणपणान त्या त्या देशाच्या सरकाराकडेन आसता. असल्या प्रकाराच्या नकाशांचो उपेग नगररचणुकेच्यो येवजण्यो, येरादारी साधनांची विकास उदकापुरवण येवजण आनी हेर गजालीं खातीर जाता.

**स्थलवर्णनविशींचे नकाशे -** जमनीवयल्यो भुगोलीक आनी संस्कृतीक गजाली वेगळ्यावेगळ्या वाठारांनी कशो आसात, तें दाखोवप हो ह्या नकाशांचो मुखेल हेतू. ह्या नकाशांक एक इंची नकाशेय म्हण्टात. ह्या नकाशांचो उपेग जमीनीचे ऊंच-सकयल भाग दाखोवपाक तशेंच शारां, गांव, लोहमार्ग, वाटो, उद्यानां, पूल, जिल्हे वा तालुक्यांच्यो शिमो, आनी हेर गजाली संकेतीक कुरवांनी वा अक्षरांनी दाखोवपाक जाता.

**भारतीय सर्वेक्षण संस्थेन तयार केल्ले नकाशे -** १७६७ त लॉर्ड क्लायव हाणें जेम्स रेनल हाची बंगालाचो मुखेल सर्वेक्षणाधिकारी म्हणून नेमणूक केली आनी तेन्नासावन भारतांत खऱ्या अर्थान सर्वेक्षण करपाक आनी नकाशे प्रसिद्ध करपाक सुरवात जाली. रेनल हाचे नकाशे उजवाडाक येवंचे पयलीं, १७१९ त बूशे ह्या फ्रॅंच मिशनऱ्यान, १७२३ त दलील ह्या फ्रॅंच भूगोलतज्ञान, मॅनव्हिल ह्या फ्रॅंच नाविकान आनी हेर कांय लोकांनी हिंदूस्थानाच्या प्रदेशांचे नकाशे तयार केले. तांचो उपेग करून आंव्हील हाणें १७३७ त आपलो दक्षिण भारताचो पयलो नकासो तयार केलो. रेनल हाणें भारताचो १ इंचाक १° ह्या प्रमाणाचेर १७८३ त नकासो तयार केलो. हे खेरीज ताणें बंगाल, बिहार, अयोध्या, अलाहाबाद, आग्रा आनी दिल्ली ह्या प्रांताचे नकाशे तयार केल्ले. १८०२ त त्रिकोणांकीत सर्वेक्षणाचें काम मद्रासाक सुरू जालें. १९०५ त भारत सरकाराच्या आदेशावरवीं हे संस्थेन अर्वाचीन स्थलवर्णनात्मक नकाशे तयार करपाक सुरवात केली, हे संस्थेन १ इंची, अर्द इंची, पाव इंची नकाशे तयार केल्ले आसात. हांचे भायर व्हड आनी म्हत्वाच्या शारांचे आनी लस्करी थळांचे मार्गदर्शन नकाशे तयार केल्ले आसात.

नकाशाचे दोट्टी फायदे आसतात. १) ते भूंयप्रदेशाची म्हायती दितात आनी २) त्या प्रदेशाचो सर्वांगीं विकास करपाचे येवजणेक आदार दितात. तेचवांगडा नकाशे तयार करतना एक जतनाय घेवंची पडटा. नकासो हो अधिकृत असो दस्त ऐवज जाल्ल्यान, ताची आंखणी करतना, चड करून आंतरराश्ट्रीय मालकी मदली शीम दाखयतना इल्लीशी जरी चूक जाली तरी वाद उपरासता.

- कों. वि. सं. मं.

**नखेत्र :** रातच्या वेळार मळबांत दिसपी प्रकाश बिंदूंतल्या चड लुकलुकपी वस्तूंक नखेत्र वा तारो म्हण्टात. हे लुकलुकता आसतना प्रकाश दिवपी गिन्यांपरस वेगळे वळखूंक येतात. सूर्य हेंय एक नखेत्र.

हीं नखेत्रां २००० वर्सांपयलीं सावन एके धर्तरे पसून पयस आशिल्ले खगोलाचेर दसयल्ले दैवी प्रकाश बिंदू मानपाची पद्दत आशिल्ली. इ.स.पू. १३० ह्या वर्सा हिपार्कस ह्या ग्रीसी ज्योतीशवेत्त्यान नखेत्रांची पयली वळेरी तयार केली. ताचे उपरांत टॉलेमी आनी हेर अरबी भोंवप्यांनी हातूंत भर घातली. टायको ब्राए (Tycho Brahe - १५७६-९६) हाणें दूरदर्शकाच्या आदारान एक अचूक अशी वळेरी केल्ली आसा.

इ. स. १८३८ ह्या वर्सा एफ. डब्ल्यू. बेसेल ह्या जर्मन विज्ञानिकान पराशय (Parallax) पद्दतीन एका ताऱ्याचें (६१ सिग्नी) धर्तरे पसून अंतर मेजलें. ही पद्दत ३०० प्रकाशवर्सां इतले मेरेनचें अंतर मेजपाक उपेगी थरता. नखेत्रांचो अभ्यास तांच्या वर्णपटला वयल्यान करपाची पद्दत जोसेफ फॉन फ्राऊनहॉफर (१७८७-१८२६) जी. आर. किरखॉफ (१८२६-१९०८), ई. सी. पिकरींग (१८४६-१९१९) आनी भारतीय विज्ञानीक मेघनाद साहा आनी हेर विज्ञानिकांनी आपणायली. नखेत्रांचें वर्गीकरण करपांत ई. हर्ट्झस्प्रंग आनी एच. एन. इसेल (१९१३) हाणीं खूब व्हड योगदान केल्लें आसा.

नखेत्रांतले भितरले घडणुकेचो अभ्यास करपी विज्ञानिकांमदीं आर. एम्डेन (१९०७), ए. एस. एडिंग्टन (१९१६), एच. ए. बेटे आनी फॉन बायझेकर (१९३९) हांचीं नांवां मुखेलपणान घेवं येतात. नखेत्रांचे उत्क्रांतीचेर कांय मोलादीक काम एम. इव्हात्झ्राशिल्ड, फ्रॅड हॉयल आनी भारतीय विज्ञानीक एस. चंद्रशेखर हाणीं केलां.

नखेत्रांचें निरीक्षण करपाक व्हडांत व्हड दूरदर्शक जगभर पातळिल्ले आसात. हातूंतल्यान नखेत्रांचो दृश्य अभ्यास करपाक जाता. तेभायर रेडिओ ल्हारां, अती तांबडीं ल्हारां (Infra red) आनी क्ष-ल्हारांपसुनूय तांचो अभ्यास करपाचें तंत्र आतां विकसीत जालां. भारतांत कोवलूराक एक ९३ इंची दूरदर्शक दृश्य अभ्यास करता. उटकमंडाक रेडिओ ल्हारांचो दूरदर्शक आसा.

नखेत्रांकडेन पळयतकच कळटा की कांय नखेत्रां झगझगीत दिसतात जाल्यार कांय उणीं. तांचें वर्गीकरण तांचे दृश्यप्रतीप्रमाण (Visual Magnitude) करपाचें काम हिपार्कसान पयलीं केल्लें. सादया दोळ्यांक दिसपी, सगळ्यांत उणो उजवाड दिवपी नखेत्राची प्रत ताणें स मानली आनी सगळ्यांत दृश्यमान तेजस्वी नखेत्राची प्रत ताणें एक मानली. पूण खरेपणीं, जेन्ना एन. आर. पॉगसन हाणें तांची तेजस्वीताय मेजली तेन्ना स प्रतीचे आनी एक प्रतीचे नखेत्रांचे तेजस्वीतायेंत १०० पटीन फरक दिसलो.

मानसशास्त्रांतले वेबर-फॅक्नर (ई. एल. वॅबर आनी जी. टी. फॅक्नर) हांच्या नेमाप्रमाण मनशाच्या इंद्रियांचीं कसलींय भौतीक उद्दीपनां

(Excitations) मेजपाची क्षमताय घातांक बिंदूच्या (Logarithmic) कायद्यार आदारून आसता. देखीक, क्षमताय वा प्रतिसाद (r) सकयल दिल्ल्या समीकरणान मांडूं येता.

$$S = C \log I$$

तातूंत C हो स्थिरांक (constant) आनी I ही उद्‌दीपकाची खराय (Intensity). हातूंत दृश्य प्रत (M) आनी ताऱ्याची दिप्ती (L) वापरल्यार हेंच समीकरण प्रत्येक प्रतीक (१ वा ६) M = C log L अशें मांडूं येता. पॉगसनाल्या निश्कर्शाप्रमाण M = 1 आनी M' = 6 घेवन L/L' =100 धरले जाल्यार हें समीकरण सकयल दिल्लो कायदो दिता. (C = - 2.5)

$$\text{Log}\ \frac{L^1}{L} = 0.4\ (M - M^1)$$

व्हड-व्हड दूरदर्शक आनी छायाचित्रणांच्या पालवान चडशा नखेत्रांच्यो आतां दृश्य प्रती मेजिल्ल्यो आसात. तांचें कोश्टक (को - १) हातूंत दिलां.

नखेत्रांचें वर्णपटाप्रमाण वर्गीकरण करपाचें काम सेक्की (१८६०), ए. जे. कॅनन आनी हेर विज्ञानिकांनी (हार्वर्ड वेधशाळा -१८८६) केलां. सुमार ४००,००० नखेत्रांचें वर्गीकरण कांय मेजक्याच गटांनी केलां. O, B, A, F, G, K आनी M हे मुखेल गट आनी N, S, R हे दुय्यम गट अशीं नांवां तांकां दिल्लीं आसात. ह्या वर्गीकरणाक मतींत घेतिल्ल्यो रेशा, वर्णरेशा, शोशण रेशा (Absorption Spectral Lines) आशिल्ल्या कारणान ह्यो रेशा नखेत्रांत आशिल्लीं मूलतत्त्वां आनी तांचें पृष्ठतापमान हांचेविशीं चड म्हायती दितात. नखेत्रांचो गट, तांचें तापमान आनी तांचे खाशेल्या वर्णरेशांविशींची म्हायती (कोश्टक - २) दिल्या. ह्या गटांत उपगटय आसात आनी दर एका गटांतलें नखेत्रांचें तापमान विंगड आसता.

कोश्टक - १ वयल्यान कळटा तें म्हणजे धर्तरेकडल्यान नखेत्रांचीं अंतरां वेगवेगळीं आशिल्ल्यान तांची दृश्य प्रत तांची मूळ तेजस्वीताय सांगूंक शकना. तेन्ना तांची मूळ तेजस्वीताय कळपाक एक प्रमाण तयार केलां. दर एक नखेत्र १० पार्सेक म्हळ्यार ३२.५८ प्रकाशवर्सां पयस दवरल्यार जी दृश्य प्रत दिता तांकां निरपेक्ष प्रत म्हण्टात. सुर्याची दीप्ती एक अशें मानून हेर नखेत्रांची दीप्ती काडप सोंपें जाता.

हर्ट्‌झस्प्रंग आनी रसॅल हांणी विंगड-विंगड नखेत्रांचें तापमान आनी तांची निरपेक्ष प्रत एका आलेखांत मांडली. हाका हर्ट्‌झस्प्रंग - रसॅल आलेख म्हण्टात. ह्या आलेखांत उबे रेशेर नखेत्राची मूळ दीप्ती सुर्याचे दीप्तीक 'एक' मानून मांडल्या. आडवे रेशेर नखेत्रांचे गट वा तांचें तापमान मांडलां. जेन्ना सगळे नखेत्रांचे निदर्शक बिंदू ह्या आलेखांत मांडटात तेन्ना अशें दिसता की चडशा नखेत्रांचे निदर्शक बिंदू एका मुखेल पट्यार पडटात तांकां 'प्रमुख श्रेणी' (Main Sequence) नखेत्रां म्हण्टात.

ह्या आलेखाच्या वयल्या दाव्या कोनशांत येतात ते चडांत चड उश्ण म्हणून दीप्तीमान अशे निळे महातारे (I a). वयल्या उजव्या कोनशांत येतात ते मातशा उण्या तापमानाचे पूण आकारमान खूब व्हड आशिल्ल्यान दीप्तीमान दिसपी महत्तम तांबडे तारे (I b). उजव्या हाताच्या सकयल्या कोनशांत ल्हान आकारमानाचे आनी उण्या तापमानाचे तांबडे लघुतारे (दूरदर्शकांतल्यान दिसपी) येतात. दाव्या हाताक सकयल्या कोनशांत धर्तरेच्या आकारमानाचे पूण सुर्याचें वस्तुमान आसा तसले चड घनतेचे धवे लघुत्तम तारे येतात. हे भायर तेजस्वी महातारे (II), सर्वसामान्य तेज आशिल्ले महातारे (III), मध्यम महातारे (IV) आनी मुखेल श्रेणींतले लघुतारे (V) अशेंय वर्गीकरण ह्या आलेखावयल्यान मेळटा. (ही वर्गीकरण पद्‌दत करपी डब्ल्यू. डब्ल्यू. मॉर्गन आनी पी. सी. कीनन हांचे वयल्यान मॉर्गन-कीनन वा एम-के पद्‌दत ह्या नांवान वळखतात). (आकृती - १ हर्ट्‌झस्प्रंग - रसॅल आलेख).

नखेत्राचो व्यास मेजपाक स्टॅफान-मोल्टस्मान सिध्दांताचो उपेग करूं येता. ताऱ्याची दीप्ती जर आमकां खबर आसली जाल्यार (सुर्याची दीप्ती 'एक' धरून) स्टॅफान-मोल्टसमान कायद्याप्रमाण तें नखेत्र $\propto T^2$, ही उर्जा जी भायर उडयता ती $\propto T^4$, $L/D^2$ हे उर्जेइतली आसता. हातूंत $T_1$ = ताऱ्याचें तपमान, D = ताऱ्याचो व्यास, L = ताऱ्याची दीप्ती. ह्या समीकरणांत स्थिरांक T हो भायर पडटा आनी आमकां मेळटा -

$$T_1 = T\ \sqrt[4]{L/D^2}$$

देखीक व्याध ताऱ्याचें पृष्ठ तापमान ९,८००° कॅल्वीन आसा. सुर्याचें ५,७००° के. अशा व्याध ताऱ्याची दीप्ती २३ (सूर्य 'एक' धरून) धरल्यार ताचो व्यास सुर्याच्या व्यासापरस १.८ पटीन व्हड येता. दूरदर्शका वयल्यान नखेत्रां चड करून बिंदूवरी दिशिल्ल्यान दूरदर्शकाच्या भिंगामुखार उपकरणां लावन हे व्यास प्रत्यक्षांत मेजूं येतात. कांय नखेत्रांचे व्यास कोश्टक ३ त दिल्यात.

कांय नखेत्रां जुंवळींय आसात. हांकां युग्म तारे म्हण्टात. हातूंत दोन सुर्याभाशेन आशिल्ले तारे एका समाईक वस्तुमान केंद्राभोंवतणीं घुंवतात. तीन, चार, पांच आनी स अशे तारे एका समाईक वस्तुमान केंद्रा भोंवतणीं घुंवतनाय सांपडटात.

कांय नखेत्रांचे दीप्तींत बदल घडून येतात. तांकां रूपविकारी नखेत्रां म्हण्टात. तांचे दीप्तींत दोन कारणांक लागून बदल घडटा. (१) बाह्य कारणांक लागून जेन्ना युग्म नखेत्रांतलो एक तारो दुसऱ्या ताऱ्याचे दीप्तीक आड येवन उणी करता तेन्ना घडटा तशे. (२) अंतर्गत दीप्तींत बदल घडिल्ल्या कारणान. हातूंत परत दोन वर्ग आसात (अ) स्पंदमान नखेत्रां आनी (ब) उत्स्फोटी नखेत्रां.

**अ) स्पंदमान नखेत्रां** - कांय अंतर्गत घडणुकांपसून ह्या नखेत्रांचे भायल्या भागाचें आकुंचन प्रसरण जायत आसता. ताका लागून तांचें तापमान आनी दीप्ती हातूंत आवर्ती बदल घडटात. देखीक, RR लायरी नखेत्रां. (आवर्तकाल ०.०५ दीस ते १.२ दीस), सेफीड वर्ग - I (आवर्तकाल १ ते ७० दीस), सेफीड वर्ग - II (आवर्तकाल ८० ते १,०००) अनियमित रूपविकारी (आवर्तकाल बदलता - ३० ते १००० दीस) आनी ह्या खंयच्याच वर्गांत ना बसपी रूपविकारी नखेत्रांय आसात.

**आ) उत्स्फोटी नखेत्रां** - ह्या नखेत्रांनी अंतर्गत घडणुकांक लागून व्हड स्फोट जायत आसतात आनी तापिल्ले वायू भायर सरतात. हातूंत चार प्रकार आसात. U जेमिनोरियम जातीचे लघुनव तारे, उद्रेकी तांबडे लघुतारे, T टॉरी वा RW ऑरिगा वर्गांतले तारे, नवतारे वा अतिदीप्त तारे (Nova or Super Nova).

**रेडिओ-क्ष-किरण नखेत्रां** - अतिदीप्त नवताऱ्यांचो प्रचंड स्फोट जावन प्रचंड उर्जा भायर पडटकच त्या वाठारांत तापमान चड आसता. (कोट्यांनी डिग्री) आनी तातूंतल्यान क्ष-किरणांचें आनी रेडिओ किरणांचें उत्सर्जन जाता. असले १० तारे आयज मेरेन सांपडिल्ले आसात. हांचो वेध घेवपाक धर्तरेच्या वातावरणा भायर उपकरणां धाडचीं पडटात. (धर्तरेचें वातावरण क्ष-किरणांक भितर सरपाक दिना. सुर्य क्ष-किरणांचें उत्सर्जनय करता. पूण ताच्या सहस्त्र-महापद्म पटींनी उत्सर्जन हे क्ष-किरण तारे करतात).

खूब्ब व्हडल्या अतिदीप्त नवताऱ्याचो १०० वर्सांनी एक स्फोट पळोवंक मेळटा. हे तारे २,००० ते २,५०० वर्सां मेरेन उत्सर्जन करीत रावतात. अशीं क्ष-किरण दिवपी नखेत्रां न्युट्रॉन नखेत्रां आसूंक शकतात अशें मानतात.

**न्युट्रॉन नखेत्रां** - स्फोट जाल्ल्या नखेत्रांतलें गर्भाचें वस्तुमान सुर्याच्या वस्तुमानापरस दुपेटीन चड आसल्यार गुरूत्वाकर्शणाक लागून गर्भाभितर प्रचंड दाब तयार जाता. हाका लागून भितरलें विशिश्ट गुरूत्व (Specific gravity) वाडत वता. हे जेन्ना उदकाच्या विशिश्ट गुरूत्वापरस $१०^{८}$ ते $१०^{१४}$ पट वाडटकच तातूंत इलॅक्ट्रॉन आनी प्रोटॉन एक जावन प्रोटॉनाचें रुपांतर न्युट्रॉनांत जाता. अशा ताऱ्यांक न्युट्रॉन तारे म्हण्टात.

पलसार हे सगळे तारे न्युट्रॉन तारे आसूं येतात. १९६७ वर्सा तांचो सोद लागिल्लो तरी ताचेपयलीं चंद्रशेखर आनी एल. डी. लँडा हाणें तांच्या अस्तित्वाचो १९३० वर्साच अदमास केल्लो.

आंतरनखेत्री अवकाशांत वायू आनी धुल्ल सगळेकडेन पातळिल्लो आसता. हांचीं कुपां तयार जावपाक शकतात. हीं कुपां अंतर्गत गुरूत्वाकर्शणाक लागून आकुंचन पावतात. तांचें तापमान आनी घनताय वाडटा. घनताय एका प्रमाणार पावतकच तें कूप उर्जा दिवपाक लागता (Radiate). सुर्वेक हे उर्जेचें उत्सर्जन अतिरक्त (अती तांबडे) किरणांचें वा रेडिओ ल्हारांचें आसूं येता. गुरूत्वाकर्शणाचें आकुंचन वाडत वता तशें भितरलें तपमानय वाडत वता. हें तपमान जेन्ना दशलक्ष डीग्री केल्वीन इतल्यार पावता तेन्ना भितर हायड्रोजनाचें रुपांतर हिलीयमांत जावपाक सुरू जाता. तातूंतल्यान उर्जा निर्माण जाता. जेमेरेन तयार जाल्ले उर्जेक




वर्णपटीय वर्ग

**हर्ट्झस्प्रंग - रसॅल आलेख**

भायर वचपाक संद मेळटा ते मेरेन एक संतुलन निर्माण जाता आनी तारो उर्जा दीत रावता. मुखेल श्रेणींतले तारे अशेच घडटात. गर्भांतल्या हायड्रोजनाचें रुपांतर हिलीयमांत जातकच भितरलो हिलीयम वाडत वता आनी प्रक्रिया गर्भाभायल्या आवरणांत फुगत वता. तारो व्हड जावपाक लागता. पूण भितरलो गर्भ थंड जावन आकुंचन पावत वता आनी अशे तरेन तो तांबडें महानखेत्र जाता. ताच्या भायल्या आवरणावयलें गुरूत्वाकर्शण उणें जाल्ल्यान तातूंतलो कांय भाग अवकाशांत उत्सर्जीत जाता.

नखेत्राचें वस्तुमान सुर्यापरस खूब चड आसल्यार गर्भांतलें आकुंचन वाडत वचून तापमान वाडटा. घनताय वाडटा आनी भितरल्या हिलीयमाचें रुपांतर कार्बन, ऑक्सीजन, निऑन, मॅग्नेशियम सारक्या मूलद्रव्यांनी जाता. हिलीयम सोंपिल्ल्यान परत आकुंचन जावन तापमान वाडटा. न्युट्रॉनाच्या शोशणाक लागून आनीकय मुलद्रव्यां तयार जातात. ह्या वेळार विक्रियांत (Fusion) उर्जेची इतल्या प्रमाणांत वाड जाता की ताचो स्फोट जावन तें अतिदीप्त नवें नखेत्र जाता.

**कोश्टक - १**

| नखेत्रांचें नांव | दृश्य प्रत | वर्ण गट | अंतर प्रकाश वर्सां | निरपेक्ष प्रत | दीप्ती (सुर्य=१) | तारका समूहाचें नांव | इंग्लीश नांव |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| सूर्य | -२६.६ | G2V | — | ४.८५ | — | — | सन |
| व्याध | -१.६ | A1V | ८.७ | १.४२ | २२.४ | बृहलुब्धक | सिरिअस |
| अगस्त्य | -०.७१ | FOIb | २४० | - ५० | ८,७०० | नौकातल | कॅनोपम |
| मित्र | -०.०११ | G2V | ४.३ | ४.३९ | १.४५ | नरतुरंग | आल्फा सँटौरी |
| स्वाती | -०.०५ | K1III | ३६ | -०.२५ | १०० | स्वाती | आर्क्टुरस |
| अभिजीत | ०.०४ | AOV | २६ | ०.५३ | ५० | स्वरमंडल | व्हेगा |

**कोश्टक - २**

| वर्ण गट | तापमान | वर्णरेशांचें खाशेलेपण |
|---|---|---|
| O | ५०,००० | H रेशा दुर्बळ, उच्च आयनीभूत अणूंच्यो रेशा (He II, S IV, N II). |
| BO | २५,००० | H II रेशा नात. He I रेशा खर S;III, O II रेशा आसात, H रेशा तेजस्वी. |
| AO | ११,००० | H रेशा चडांत चड खर, He I रेशा नात. Mg II, S;II रेशा खर, Fe II ca II रेशा दुर्बळ. |
| FO | ७,६०० | H रेशा दुर्बळ ca II रेशा खर Fe II, cr II रेशा Fe I, cr I इतल्योच खर. |
| GO | ६,००० | सुर्याभशेन ca II रेशा खर, Fe I आनी हेर अणूंच्यो रेशा, CH रेणूंचे वर्णपट. |
| KO | ५,१०० | H रेशा दुर्बळ, सगळ्या अणूंच्यो रेशा खर, रेणूंचे वर्णपट खर |
| MO | ३,६०० | अणूंच्यो रेशा खर TiO रेणूंचे वर्णपट दुर्बळ. |
| R आनी N | ३,०६० | CN, CH, $C_2$ रेणूंचे वर्णपट खर TiO चे पटे नात. K आनी M गटाप्रमाण अणूंच्यो रेशा. |
| S | ३,००० | 2 No, Yo, Lao हांचे खर वर्णपट. Zn, Tc आनी हेर अणूंच्यो रेशा खर. |

**कोश्टक - ३**

**कांय नखेत्रांचे व्यास**

| नखेत्राचें नांव | दृश्यकोनीय व्यास | पराशय | व्यास (सुर्य व्यास=१) |
|---|---|---|---|
| कांक्षी (Betalognese) | ०".०४७ | ०".०२१ | ४२० |
| जेष्ठा (Antaves) | ०".०४० | ०".०१५ | २८५ |
| स्वाती (Arturus) | ०".०२० | ०".०९२ | २३ |

- डॉ. अरूण हेबळेकार

## संस्कृतीक संदर्भ -

मळबाच्या सादारणपणान उदेंत-अस्तंत परिघाचेर एका फाटल्यान एक उदेवपी तारका चोम्याक नखेत्र, नक्षत्र जावं तारो अशें म्हण्टात.

नक्षत्र ह्या शब्दाच्यो जायत्यो व्युत्पत्त्यो सांगिल्ल्यो आसात. पाणिनीन नक्षत्र शब्दाची व्युत्पत्ती 'न क्षरती' = जें झडना, नाश पावना तें नक्षत्र अशी दिल्या. नखेत्रां हीं धर्तरेचीं म्हणजेच धर्तरेवयल्या पदार्थांचीं चित्रां अशे उल्लेख वेदांत आसात. चंद्राचे उत्पत्तीच्या वेळार जे तुशार शेंवटले ताचींच नखेत्रां जालीं. चंद्राच्या उजवाडाक लागून नखेत्रां उजवाडीत जातात अशें शतपथ ब्राह्मणांत सांगलां. वायुपुराणांत सुर्यापसून नखेत्रांची उत्पत्ती जाली अशें सांगलां. वेदांग ज्योतिशांत खगोलशास्त्रचे नदरेन नखेत्रांचो विचार केल्लो दिसता. ज्यो तरल्यो त्यो तारका असोय कोटिक्रम केल्लो सांपडटा. तशेंच नक्षत्रं, ऋक्षं भं, तारा, तारका, उडु, दाक्षयिण्याः असो उल्लेख अमरकोशांत आसा.

चंद्रमार्गाचेर जे तारे जांव ताऱ्यांचो गट आसता तांकां नखेत्र अशें शास्त्रीय नदरेन मानतात. धर्तरेभोंवतणच्या भोंवताड्याक एका ताऱ्या कडल्यान वचून परत त्याच ताऱ्याकडेन येवपाक चंद्राक सुमार २७ १/३ दीस लागतात. देखून नखेत्रांचो आंकडो २७ जावं २८ थरयला. ग्रहपथाचे वांटे करपाच्यो राशी (राशिचक्र) आनी नखेत्रां ह्यो दोन पद्दती आसात. तातूंतली आतां वापरांत आशिल्ली नखेत्र-पद्दत स्वतंत्रपणान भारतीय आसुंये अशें चडशा विद्वानांचें मत आसा. हिंदूंभाशेनच पुर्विल्ल्या काळांत चीनी आनी अरबी लोकांतय नखेत्र-पद्दत आशिल्ली. हे पद्दतींत आनी भारतीय पद्दतींत सारकेपण आसा. वेदांचे नदरेन वेगवेगळे योगतारे (त्या त्या नखेत्रांतले दोळ्यांत भरसारके तारे) चीनी लोकांनी वेंचून काडले. चड करून विशुववृत्ताच्या लागींचे १४ तारे ताणीं इ.स.पू. २३०० च्या अदमासाक थरयले. हे खातीर विशुववृत्ताचें सान्निध्य ताणीं वेंचून काडलें आनी ताका ते 'सियू' म्हण्टाले. मागीर परत विशाखा, श्रवण आनी भरणी हातूंतले चार तारे त्या चोविसांत घाले. देखून चीनी नखेत्रांय २४ चीं २८ जालीं. चीनी पद्दतींत ग्रहपथांतल्या राशींक सामकींच वेगळीं नांवां आसात. कुंभ राशीपसून सुरवात आनी क्रम ज्युस्त उरफाटो आसा.

अरबी लोकांमदींय नखेत्राक उल्लेखून 'मंझिल' हें उतर आसा. हाचेवयल्यान नैऋत्य आशियांतल्या लोकांमदीं नखेत्र पद्दत आसूंये आनी ती खल्डियनांनी काडली आसुंये अशें ए. वेबर हाणें म्हळां. पारशांच्या पेहलवी भाशेंतल्या बुंदाहिश्न (इ.स.सु. णववें शतमान) ह्या ग्रंथाच्या दुसऱ्या भागांत नखेत्रां २८ आशिल्ल्याचें म्हळां आनी तांचीं नांवांय दिल्यांत. पूण भारतीयांक वैदिक काळांतूय नखेत्रां खबर आशिल्लीं. हाचे वयल्यान अरबी,

चीनी आनी भारतीय पद्दती स्वतंत्र आशिल्लयो म्हणपाचें कळूं येता.

वेदीक काळापसुनूच भारतीय आर्यांनी नखेत्रांचीं नांवां निश्चीत केल्लीं. कांय विद्वानांच्या मतान नखेत्रां २४ आशिल्लीं. पूण मागीर फाल्गुनी, आशाढा आनी भाद्रपदा हांचे पूर्वा आनी उत्तरा अशे दोन-दोन वांटे करून चंद्राच्या भ्रमण कालाप्रमाण हो आंकडो २७ केलो. दर एका नखेत्राचे चार विभाग केल्ले आसात. तांकां चरण जावं पाद म्हण्टात. तैत्तिरीय ब्राह्मणांत नखेत्रांचे दोन विभाग मानिल्ले आसात.

'कृत्तिका प्रथम्म । विशाखे उत्तम्म ।
तानी देवनक्षत्राणि । अनुराधा प्रथम्म ।
अपभरणी उत्तम्म । तानि यमनक्षत्राणि ।'

सुर्य देव नखेत्रांतल्यान वतना उत्तरायण आसता आनी यम नखेत्रांतल्यान वतना तो दक्षिणायणांत आसता. हाचेवयल्यान तैत्तिरीय ब्राह्मणाचो काळ विद्वानांनी काडिल्लो आसा.

पुर्विल्लया साहित्यांत कांय नखेत्रांचो उल्लेख वेगवेगळ्या नांवांनी आयिल्लो आसा. तीं म्हणजे - अश्वयुजौ = आश्विनी; अपभरणी = भरणी; इन्वका = मृग; बाहू = आर्द्रा; तिष्य = पुष्य; आश्रषा = आश्लेषा = सार्प; अघा = मघा; अर्जुनी = फल्गुनी; निष्ट्या = स्वाती; राधा = विशाखा; श्रविष्ठा = धनिष्ठा; भतभिषक = शततारका; प्रौष्ठपदा = भाद्रपदा. नखेत्रांच्या उल्लेखाच्या वेळार पुर्विल्लया संस्कृत वाङ्मयांत नखेत्रांच्या लिंगांत आनी वचनांत फरक दिसता. कांय नखेत्रां पुल्लिंगी जाल्यार कांय स्त्रीलिंगी आनी थोडीं नपुसकलिंगीय आसात. कांय एकवचनी, दोन वचनी जाल्यार कांय भोववचनी अशे उल्लेख आसात.

नखेत्रांक नांवां कशीं पडलीं हें सांगप भोव कठीण. पूण धर्तरेचीं म्हणजेच धर्तरेवयलीं वस्तूंचीं चित्रां हींच नखेत्रां ही सांगिल्ली एक व्युत्पत्ती पळयल्यार आकृती वयल्यान कांय नखेत्रांक नांवां पडलीं आसुंये ( देखीक : मृग, हस्त). तशेंच हेर कारणांवयल्यानय तीं पडूं येतात. पुनर्वसू, चित्रा, रेवती हीं पयलीं वापरांत आशिल्लीं उतरां नखेत्रांक दिलीं आसुंये. पुनर्वसू हाचो अर्थ पुनः पुनर्वस्तारौ स्तोतृणामाच्छादयितारौ (देवौ) असो सायणांनी दिल्लो आसा. 'चित्रामघा' हाचो अर्थ 'विचित्रघना' असो आसा. रेवती म्हणजे धनवती. हे तरेचीं नांवां त्या त्या नखेत्राच्या दर्शनीयत्व, धनदातृत्व हाचेवयल्यान प्रत्यक्ष, कल्पीत वा अनुभूत गुणांवयल्यान दवरलीं आसुंये असो अदमास आसा.

भारतीय नखेत्रांची नांवां, क्रम आनी तारे संबंदीची म्हायती सकयल्या कोश्टकांत दिल्या.

**कोश्टक - १**

**भारतीय नखेत्रां**

| अ.क्र. | नखेत्र | ताऱ्यांचो आंकडो | देवता | आकृती | योगतारो |
|---|---|---|---|---|---|
| १ | आश्विनी | २,३ | आश्विन | घोड्याचें तोंड | मेषेंतलो बीटा |
| २ | भरणी | ३ | यम | योनी | मेषेंतलो ३५, ४१ |
| ३ | कृत्तिकापुंज (कृत्तिका) | ६ | अग्नी | वाखर | वृषभांतलो ईटा (अल्सायनी) |
| ४ | रोहिणी | ५ | प्रजापती | गाडो | वृषभांतलो आल्फा (आल्डेबरन) |
| ५ | मृगशीर्ष (मृग) | ३ | सोम | हरणाची तकली | मृगांतलो लॅम्डा |
| ६ | आर्द्रा | १ | रूद्र | मणी | मिथुनांतलो गॅमा (अॅल्हेना) जावं मृगांतलो आल्फा (बेटल-ज्यूझ) |
| ७ | पुनर्वसू | २,४ | अदिती | घर | मिथुनांतलो आल्फा.(पॉलक्स) |
| ८ | पुष्य | ३,१ | बृहस्पती | गाडो | कर्कांतलो डॅल्टा (प्रीसेपी) |
| ९ | आश्लेषा | ५,६ | सर्प | चक्र | वासुकींतलो वा हायड्रांतलो झीटा |
| १० | मघा | ५,६ | पितृ | शाल | शिंवांतलो आल्फा. (रीगलस) |
| ११ | पूर्वा | २ | अर्यमा | पलंग | शिंवातलो डॅल्टा |
| १२ | उत्तरा | २ | भग | हांतरूण | शिंवांतलो बीटा (डेनेबोला) |
| १३ | हस्त | ५ | सविता | हाताचो चपको | हस्तांतलो गॅमा वा डॅल्टा |
| १४ | चित्रा | १ | त्वष्टा | मोतीं | कन्येंतलो आल्फा (स्पायका) |
| १५ | स्वाती | १ | वायू | पोंवळें | भूतपांतलो आल्फा (आर्क्टुरस) |
| १६ | विशाखा | २,४ | इंद्राग्नी | तोरण | तुळेंतलो आल्फा |
| १७ | अनुराधा | ३,४ | मित्र | पुजा, बली | वृश्चिकांतलो डॅल्टा |
| १८ | ज्येष्ठा | ३ | इंद्र | कुंडल | वृश्चिकांतलो आल्फा (अँटारेझ) |
| १९ | मूळ | ११ | निकृती | शिंवाची शेंपडी | वृश्चिकांतलो लॅम्डा |
| २० | पूर्वाषाढा | ३,४ | आप | हांतरूण | धनूंतलो डॅल्टा |
| २१ | उत्तराषाढा | २,४ | विश्वेदेव | हतयाचो दांत | धनूंतलो सिग्मा (नंकी) |
| २२ | अभिजित | ३ | ब्रह्मा | शृंगाटक | विणेंतलो आल्फा (व्हीगा) |
| २३ | श्रवण | ३ | विष्णू | त्रिविक्रम | गरूडांतलो आल्फा (अल्टेर) |
| २४ | धनिष्ठा | ४,५ | वसू | मृदंग (मर्दल) | धनिष्ठा वा तिमिंतलो आल्फा |
| २५ | शततारका | १०० | इंद्र, वरूण | वाटकूळ | कुंभेंतलो लॅम्डा |
| २६ | पुर्वाभाद्रपदा | २ | अज एकपाद | यम, मंचक | उच्चैःश्रव्यांतलो आल्फा |
| २७ | उत्तराभाद्रपदा | २ | अहिर्बुध्नीय | पलंग | उच्चैःश्रव्यातलो गॅमा |
| २८ | रेवती | ३२ | पूषा | मृदंग | मीनेंतलो झीटा. |

कांय नखेत्रांक, तांच्या क्रमांक आनी आकाराक कथात्मक संदर्भ जोडला. अशो पुराणीक कथा भारतीय आनी अस्तंती नखेत्रांच्या नांवांखातीर खबर आसात.

२७ नखेत्रां ह्यो दक्षाच्यो धुवो आसून ताणें त्यो चंद्राक दिल्यो म्हणून त्यो चंद्राच्यो बायलो जाल्यो. चंद्र सदांच एक - एकलेगेर रावन तांचो उपभोग घेता अशी कल्पना पुराणांत आसा. रोहिणीच्या फाटल्यान मृग लागला आनी ताचे फाटल्यान व्याध लागला आनी ताणें मारिल्लो त्रिकांड बाण तीन ताऱ्यांच्या स्वरुपांत आसा. अशा कथारूप देखाव्यांत हीं सगलीं नखेत्रां जावं तारे मळबांत दिसतात.

हस्त, चित्रा, स्वाती, विशाखा आनी अनुराधा हीं पांच नखेत्रां मेळून प्रजापतीची आकृती मानिल्ली आसा. हस्त हो ताचो हात, स्वाती हें काळीज, विशाखा ह्यो मांडयो आनी अनुराधा हो उबो रावपाचो जागो अशें वर्णन तैत्तिरीय ब्राह्मणांत आयिल्लें आसा. देवदानवांच्या झुजांत ज्या नखेत्रांचेर जैत मेळ्ळें ते अभिजीत असो उल्लेख वेदांत आसा. अस्तंत्या नखेत्रांच्या नांवांचें भारतांत रुपांतर जाले उपरांत तांच्योय कथा त्या त्या नखेत्राचेर आदारिल्ल्यो आसात. अशोच मूळच्यो ग्रीक पुराणांतल्यो कथा अस्तंत्या नखेत्रांच्या नांवांफाटल्यान आसात. सप्तर्षी हाचें अस्तंती नांव ग्रेट बॅर, अर्सा मेजर जावं प्लाऊ अशें आसा. अर्सा जावं बॅर म्हणजे वांस्वेल. हाचेवयल्यान बृहद्‌ऋक्ष (ऋक्ष = वांस्वेल) अशें जरी आसा तरी ऋक्ष म्हळ्यार रुशी असोय अर्थ जाता. हाचे फाटल्यान ग्रीसी कथा आसा ती अशी -

ज्युपिटर हो देव. ताचें कॅलिस्टो नांवाच्या सुंदरीचेर प्रेम बसलें. पूण ज्युपिटराचे बायलेक हें सोंसलेंना. तिणें दुस्वासान कॅलिस्टोचें वांस्वेलांत रुपांतर केलें. ती त्या रुपांत भोंवता आसतना तिका तिचो चलो अर्कास मेळ्ळो. कॅलिस्टो मोगान ताच्या फुड्यांत गेली. पूण अर्कासान वांस्वेलाच्या रुपांत तिका वळखूंक ना. तो तिका मारतलो हें ज्युपिटरान वळखलें आनी दोगांकय मळबांत भिरकटावन उडयलीं. धरून ओडील्ल्या कारणान तांच्यो शेंपड्यो लांब जाल्यो. हेच ते मळबांत आशिल्ले बृहद्‌ऋक्ष आनी लघुऋक्ष. जुनोक हेंय मानवलेंना. तिणें समुद्रदेवतां कडल्यान एक वर मेळयलो. तेन्नापसून येवरोपी भागांत हीं नखेत्रां केन्नाच मळबासकयल वचनात.

इथिओपियेच्या सिफियस राजाचीय अशीच एक कथा फामाद आसा - अँड्रोमॅडा ही ह्या राजाची एक सोबीत धूव आशिल्ली. तिची आवय कॅसिओपिया ही खूब गर्विश्ट आशिल्ली. तिणें एक खेपे कारण नासतना मत्स्यकन्यांचो अपमान केलो. ताका लागून नेपच्यून ही जलदेवता रागार जाली. अँड्रोमॅडाक बळी दितकच तो राग न्हिवतलो आशिल्लो. राजान अँड्रोमॅडाक बळी दिवपाचें थरयलें. जलराकेसांनी तिका खावंची म्हणून दर्यादेगेर एका खडपाक सरपळ्यांनी तिका बांदून दवरली. मागीर पर्सियस ह्या हुशार झुजाऱ्यान तिका सोडयली आनी तिचेकडेन तो लग्न जालो. ह्या सगळ्यांक ग्रीकांनी मळबांत सुवात दिली. अशे तरेन सगळें मळब कथाचित्रांनी, वस्तूचित्रांनी सोबीतपणान चित्रीत जाल्लें आसा.

नखेत्रां हे ग्रहपाथावयले टप्पे अशी एक म्हत्वाची कल्पना आसा. म्हणजे, अमकोच एक गिरो सध्या खंयच्या ताऱ्याकडेन आसा ते खुणेन गिऱ्यांचें स्थान हे कल्पनेवयल्यान सांगूं येता. ही कल्पना खूब पुर्विल्ली आसून तिका लागून कालमापनाक खूब आदार जालो. पूण फुडें ही कल्पना उपेग पडना जाली. देखून पयलींचे कल्पनेंत चडसो बदल करीनासतना ग्रहपथाचे सारके २७ भाग केले. हातूंत पयलीचें तारकात्मक नखेत्र तशें बसतलेंच अशें ना. पूण गणिताचे सोयी खातीर सारके लांबायेच्या विभागांचीं जीं नखेत्रां मानलीं तीं विभागात्मक नखेत्रां आशिल्लीं. एक विभागात्मक नखेत्र म्हणजे $\frac{३६०}{२७} = १३^\circ\frac{१}{३} = १३^\circ २०$ कला म्हळ्या -रूच ८०० कलांचें आशिल्लें. ही कोनात्मक रचणुकूय इ.स.पू.सु. १४०० पसून वापरांत आसा. हाचो अर्थ विभागात्मक नखेत्र म्हणजे अंतर मेजपाचें एक माप असो जाता.

ग्रहपथाभायल्या ताऱ्यांचो आस्पाव करपाखातीर क्षेत्रात्मक कल्पना आयली. ग्रहपथाच्यो २७ समान विभागांच्यो ओळी ध्रूव बिंदूमेरेन दोनूय वटांनी वाडयल्यो म्हणजे अंतराळाच्यो २७ पाकळ्यो जातात. हे दर एके पाकळेक एकेक नखेत्र म्हणजे हींच क्षेत्रात्मक नखेत्रां. हे सोयीक लागून मळबांतलो खंयचो तारो खंयच्या नखेत्रांत आसा हें सांगप सोंपें जालें अशा नखेत्रांचो जरी खंयच उल्लेख ना तरी पूण तशें मानताले अशें बाळशास्त्री जांभेकर (१८१२-४६) म्हणटा. 'मळबांतल्या सप्तर्शीक गती आसा आनी ते परीक्षित राजाच्या वेळार मघा नक्षत्रांत आशिल्ले' ह्या पुराणीक ग्रंथांतल्या विधानावयल्यान मघा नखेत्र हें क्षेत्रात्मकच आसूंक जाय अशें दिसता. तारात्मक नखेत्रां पूण तातूंतले भोंवतणचे भाग ल्हान आसल्यार तीं अर्दभोग, मातशीं व्हड तीं समभोग आनी खूब व्हड तीं दीडभोग अशें मानपाची पद्‌दत आशिल्ली. हे प्रमाण भरणी, आर्द्रा, आश्लेषा, स्वाती, ज्येष्ठा आनी शततारका हीं अर्दभोग; रोहिणी, पुनर्वसू, उत्तराभाद्रपदा, उत्तराफाल्गुनी, उत्तराषाढा आनी विशाखा हीं दीडभोग आनी उरिल्लीं समभोग अशे उल्लेख आसात. पूण आतां अशीं विभागात्मक नखेत्रां चालींत नात.

विभागात्मक नखेत्रांचो राशी वांगडचो संबंध सवायदोन नखेत्रां म्हणजे एक रास असो जाता. एका नखेत्राचे चार भाग करतात. तांकां पाद जावं चरण अशें म्हण्टात. आश्विनी, भरणी आनी कृत्तिकेचो एक पाद म्हणजे मेष रास; कृत्तिकेचे उरिल्ले तीन पाद, रोहिणी आनी मृगाचे पयले दोन पाद, हे प्रमाण नखेत्रांची राशींनी विभागणी जाता. म्हणजेच एकेच राशींत खयंच्यातरी लागींच्या नखेत्रांचे णव-णव पाद येतात.

धर्मीक जावं यज्ञसंस्थेचे नदरेन दर एका नखेत्राच्यो देवता मानिल्ल्यो आसात. दर एका नखेत्राक एक तारो योगतारो म्हणून मानतात. पूण योगतारो खंयचो हे विशीं मतभेद दिसतात. कोश्टकांत हे विशींची एक पद्‌दत दिल्या. एच. टी. कोलब्रुक हाणें हे योगतारे थरोवपाखातीर बरेंच काम केल्लें आसा.

अथर्ववेदाच्या शांतिकल्प आनी नक्षत्रकल्प ह्या दोन परिशिश्टांनी नखेत्रां विशींची म्हायती आयल्या. शांतिकल्पाच्या दुसऱ्या अध्यायांत नखेत्रांचे स गट कल्पिल्यात आनी तांकां ध्रूव, दारूण, चर, मृदू, क्षिप्र आनी उग्र अशीं नांवां दिल्यांत. हाचे वयल्यान खंयचीं नखेत्रां खंयच्या कामाक योग्य आसात तें कळटा. वराहमिहिरान बृहत्संहितेत नखेत्रां आनी तांचीं फलां हांचो विचार केला. तातूंतल्या पंदराव्या अध्यायांत नखेत्रांचे चार-चार गट सांगल्यात.

बृहत्संहितेच्या ९८ व्या अध्यायाक नखेत्रगूण अशें नांव आसा. अठ्ठावीस नखेत्रां आनी तांच्यो देखीय थंय दिल्यात. तेच प्रमाण नखेत्रांचे सात गट करून तांकां संज्ञा दिल्यात. त्यो अशो -

**ध्रूव नखेत्रां** - रोहिणी, उत्तराफाल्गुनी, उत्तराषाढा आनी उत्तराभाद्रपदा ह्या नखेत्रांचेर थीर कामांक सुरवात, अभिशेक आनी बीज, गृह सारकिलीं धर्मीक कामां करचीं.

**तीक्ष्ण नखेत्रां** - आर्द्रा, आश्लेषा, ज्येष्ठा आनी मूळ हीं अभिचार, हनन, मंत्रप्रयोग ह्या कर्मांक योग्य.

**चर नखेत्रां** - श्रवण, धनिष्ठा, शततारका, स्वाती आनी हस्त. वाहनांचेर बसप, उपवनांत वचप ह्या कामांक योग्य.

**मृदू नखेत्रां** - मृग, चित्रा, अनुराधा आनी रेवती. इश्टागत आनी शुभ कामांखातीर हीं चार नखेत्रां प्रशस्त मानतात.

**लघू नखेत्रां** - पुष्य, अश्विनी आनी हस्त. अध्ययनारंभ आनी अलंकरण हे खातीर हीं तीन नखेत्रां योग्य.

**उग्र नखेत्रां** - मघा, भरणी, पुर्वाफाल्गुनी, पुर्वाषाढा आनी पुर्वाभाद्रपदा. शत्रुनाशन, वीखप्रयोग आनी अभिचार ह्या कामांखातीर हीं पांच नखेत्रां योग्य मानतात.

**मृदूतीक्ष्ण नखेत्रां** - कृत्तिका आनी विशाखा. सामान्य कामांखातीर हीं दोन नखेत्रां योग्य मानतात.

तशेंच नखेत्रांचे कांय प्रकारय मानल्यात ते अशें -

**अधोमुख नखेत्रां** - मूळ, आश्लेषा, कृत्तिका, विशाखा, पुर्वाभाद्रपदा, मघा आनी भरणी. हांचेर बांय, तळीं सारकिलीं कामां करचीं.

**अर्ध्वमुख नखेत्रां** - आर्द्रा, पुष्य, श्रवण, धनिष्ठा, शततारका, उत्तराफाल्गुनी, उत्तराषाढा, उत्तराभाद्रपदा आनी रोहीणी. हांचेर घर, प्रासाद, देवूळ बी सारकिलीं कामां करचीं.

**तिर्थङ्मुख नखेत्रां** - मृग, रेवती, चित्रा, अनुराधा, हस्त, स्वाती, पुनर्वसू, ज्येष्ठा आनी अश्विनी. हांचेर गाडी, रथ जावं नांगर करचे.

**अंध नखेत्रां** - धनिष्ठा, पुष्य, रोहिणी, पुर्वाषाढा, विशाखा, रेवती आनी उत्तराफाल्गुनी.

**मंदाक्ष नखेत्रां** - हस्त, उत्तराषाढा, अनुराधा, शततारका, आश्लेषा, आश्विनी आनी मृगशीर्ष.

**मध्याक्ष नखेत्रां** - आर्द्रा, मघा, पुर्वाभाद्रपदा, चित्रा, ज्येष्ठा, अभिजीत




आ. ३. दक्षिण खगोलांतले तारकासमूह

आनी भरणी.

**सुलोचन नखेत्रां** - स्वाती, पुनर्वसू, श्रवण, कृत्तिका, उत्तरा, भाद्रपदा, मूळ आनी पुर्वाफाल्गुनी.

मध्ययुगीन ग्रंथांनी नखेत्रांचे पुंनखेत्रां, स्त्रीनखेत्रां आनी क्लीब नखेत्रां अशे तीन प्रकार मानल्यात. आश्विनी, पुष्य, रोहिणी, पुर्वाभाद्रपदा, उत्तराभाद्रपदा, हस्त, श्रवण, अनुराधा आनी पुनर्वसू हीं णव नखेत्रां पुंनखेत्रां; मूळ, मृगशीर्ष आनी शततारका हीं तीन क्लीब नखेत्रां आनी उरिल्लीं सगळीं स्त्रीनखेत्रां मानतात.

देवी भागवतांत तीन नखेत्रांचो एक हे प्रमाण नखेत्रांचे णव गट केल्यात आनी तांकां नागवीथी, गजवीथी, ऐरावतीवीथी, आर्षभीवीथी, जारद्‌गवीथी, अजवीथी, गोवीथी, मार्गीवीथी आनी वैश्वानरीवीथी अशीं नांवां दिल्लीं आसात.

नखेत्र हें पंचांगाच्या पांच आंगांमदलें एक म्हत्वाचें आंग. मळबांत चंद्र खंयच्या विभागांत आसा तें ह्या आंगावयल्यान कळटा. पंचांगांत हीं नखेत्रां दिल्लीं आसतात. विभागात्मक एक नखेत्र हुंपून वचपाखातीर चंद्राक अदमासान एक दीस लागता. हाका लागून दर दिसा नखेत्र बदलता. सुर्योदयापसून हाचो वेळ घटकापळांत पंचांगांत दिल्लो आसता. ह्या नखेत्राक दिन नखेत्र अशेंय म्हण्टात. चंद्र ज्या नखेत्रांत (आनी चरणांत) आसतना व्यक्तीचो जल्म जाल्लो आसता तें ते व्यक्तीचें जल्मनखेत्र आसता. बरो-वायट म्हूर्त ह्याच दैनिक नखेत्रावयल्यान पळयतात. सुर्याक एक विभागात्मक नखेत्र हुंपपाक तेरा जावं चवदा दीस लागतात आनी सगळ्या नखेत्रांतल्यान घुंवपाक एक वर्स लागता. सादारणपणान मृग ते हस्त ह्या णव नखेत्रांमदीं सूर्य आसतना पावस पडटा. हांकां पावसाचीं नखेत्रां अशें म्हण्टात.

नखेत्रांवयल्यानच चैत्रादी म्हयन्यांचीं नांवां पडल्यांत. देखीक, चैत्र म्हयन्याचे पुनवेक चंद्र चित्रा नखेत्रांत आसता, देखून तो चैत्र म्हयनो,



आ. २. उत्तर खगोलांतले तारकासमूह

कार्तिक म्हयन्याचे पुनवेक चंद्र कृत्तिका नखेत्रांत आसता देखून तो कार्तिक म्हयनो. कांय देशांनी मेष, वृषभ ह्या ग्रहपथावयल्या नखेत्रांवयल्यान (राशींवयल्यान) म्हयन्यांचीं नांवां पडल्यांत. सूर्य ज्या नखेत्रांत आसता तें त्या म्हयन्याचें नांव आसता आनी हाकाच सौर म्हयने म्हण्टात.

**अस्तंती नखेत्रां** - भारतीय नखेत्रां आनी अस्तंती लोकांनी कल्पिल्लीं नखेत्रां हातूंत खूब वेगळेपण आसा. ताऱ्यांच्या समुहांची काल्पनीक नदरेन वेगळी अशी आकृती दिसता; ते आकृतीक आनी तातूंत अंतर्भूत जाल्ल्या ताऱ्यांच्या गटांत नखेत्र मानलें. ह्यो आकृती जनावरांच्यो, पदार्थांच्यो, पुराणीक व्यक्तींविशयक कथांच्या ह्या आदारान कल्पिल्ल्यो आशिल्ल्यो. देखीक - मेष, वृषभ अशीं ग्रहपथीय नखेत्रां, बृहद्दृक्ष, ड्रॅको अशीं जनावरांचीं नांवां आशिल्लीं नखेत्रां; कॅसिओपिया, हर्क्युलीस, अँड्रोमेडा अशीं व्यक्तींच्या नांवांची नखेत्रां; कुंभ, तूळ अशीं पदार्थवाचक नखेत्रां.

अस्तंती नखेत्रपद्दतीचो जल्म मॅझोपोटेमियांतल्या युफ्रेटीस न्हंयेच्या देगांचेर जालो आसुंये. कारण थंयच्याच जनावरांचीं नांवां नखेत्रांक दिल्लीं आसात.

ग्रीक संस्कृतायेचे पयलीं सुमेरियी संस्कृतीक ग्रंथांनी मळबाचे उत्तरेकडले १२, अस्तंतेकडले १२ आनी ग्रहपथावयले १२ अशे ३६ विभाग मानिल्ल्याचें दिसता. इ.स.पू. १२९ च्या अदमासाक पयल्या अस्तंती नखेत्रांची वळेरी हिपार्कस हाणें केली. टॉलेमी हाच्या Almagest ह्या ग्रंथांत (इ.स.सु. १५०) ४८ नखेत्रां दिल्यांत. ह्या नखेत्रांचीं नांवां इ.स.पू. २७०० त रूढ जाल्लीं आसुंये. इ.स. १६०३ त योहान बायर हाणें अस्तंतेकडल्या १३ नव्या नखेत्रांची भर घाली.

१६९० त जे. हेव्हेलिडस हाणें आनीक ९ वाडयलीं आनी १७६३ त एन. एल. द लाकाय हाणें नवीं १४ घालीं. आर्गो (व्हडें) हें नखेत्र खूब व्हड जालें देखून ताचे हेला (व्हड्याची तकली), पपिस (नौपार्श्व), कॅरिना (व्हड्याचो तळ) आनी पिक्सिस (होकायंत्र) अशे चार विभाग केले. हाका लागून आतांचो मान्य आंकडो ८८ जाला.

१९२२ त इंटरनॅशनल ॲस्ट्रॉनॉमिकल युनियन (आयएयु) हे संस्थेन हे वळेरेक अधिकृत मान्यताय दिली. १९३० त आयएयून सगळ्या मळबाचो रेखीव मर्यादा आशिल्लो नखेत्रांचो नकासो प्रसिद्द केलो. आतां ह्या नखेत्रांच्यो मर्यादा रेशा (उदेंत - अस्तंत रेशा) आनी होरावृत्त (उत्तर दक्षिण रेशा) हांणी केल्ल्यो आसात.

पोरणे पद्दतीकडेन जुळोवन घेवपाखातीर सगळ्या नखेत्रांचे आकार आनी जागे सारके नात. ८८ नखेत्रांतलीं आयनीक वृत्ताचेर १२; उत्तर ध्रुवाकडेन ८; दक्षिण ध्रुवाकडेन २५ आनी आयनीक वृत्त आनी ध्रूव हांचे मदीं ४३ अशीं आसात. हाका लागून खंयची खस्थ ज्योत खंयच्या नखेत्रांत आसा तें थरोवं येता. सगळ्या ८८ नखेत्रांची नांवां, संक्षिप्त नांवां, भारतीय नांवां आनी तीं खंय आसात तो गोलार्ध जांव ग्रहपथ कोश्टक क्रं. २ त दिल्लो आसा.

**कोश्टक क्रं. २**

**अस्तंती नखेत्रां**

| अ. क्र. | नखेत्र | अस्तंती नांव | जागो |
|---|---|---|---|
| १ | अरुंधती केश | कोमा बेरनायसेस | उ |
| २ | अलमर्द | हायड्रस | द |
| ३ | अश्मंत | फोरनॅक्स | द |
| ४ | अष्टक | ऑक्टन्स | द |
| ५ | असिदंष्ट्र | डोराडो | द |
| ६ | उच्चैःश्रवा | पेगॅसस | उ |
| ७ | उत्तर मुकूट | कॉरोना बोरिॲलिस | उ |
| ८ | कन्या | व्हर्गो | ग्र |
| ९ | कपोत | एपस | द |
| १० | करभ | कॅमलोपार्डस | उ |
| ११ | कर्क | कॅन्सर | ग्र |
| १२ | कर्काटक | सर्सिनस | द |
| १३ | कारंडव | तुकाना | द |
| १४ | कालिय | ड्रॅको | उ |
| १५ | कुंभ | ॲक्वेरियस | ग्र |
| १६ | गरूड | ॲक्विला | उ |
| १७ | गवय | लिंक्स | उ |
| १८ | चषक | क्रेटर | द |
| १९ | चित्रफलक | पिक्टर | द |
| २० | जंबूक | व्हल्पेक्युला | उ |
| २१ | जटायू | फिनिक्स | द |
| २२ | जाल | रॅटिक्युलम | द |
| २३ | टंक | सीलम | द |
| २४ | तिमि | डेल्फिनस | उ |
| २५ | तिमिंगिल | सेटस | द |
| २६ | तूळ | लिब्रा | ग्र |
| २७ | त्रिकूट | मेन्सा | द |
| २८ | त्रिकोण | ट्रायांग्युलम | उ |
| २९ | दक्षिण त्रिकोण | ट्रायांग्युलम ऑस्ट्रॅली | द |
| ३० | दक्षिण मत्स्य | पिसीस ऑस्ट्रायनस | द |
| ३१ | दक्षिण मुकूट | कॉरोना ऑस्ट्रॅलिस | द |
| ३२ | दुरदर्शक | टेलिस्कोपियम | द |
| ३३ | देवयानी | अँड्रोमेडा | उ |
| ३४ | धनु | सॅजिटेरियस | ग्र |
| ३५ | ध्रुवमत्स्य | अर्सा मायनर | उ |
| ३६ | नरतुरंग | सॅण्टॉरस | द |
| ३७ | नौकातल | कॅरिना | द |
| ३८ | नौकाशीर्ष | व्हेला | द |
| ३९ | नौपार्श्व | पपिस | द |
| ४० | पारावत | कलुंबा | द |
| ४१ | पीठ | एरा | द |
| ४२ | फलक | स्कूटम | द |
| ४३ | बक | ग्रुस | द |
| ४४ | बृहल्लुब्धक | कॅनिस मेजर | द |
| ४५ | भुजंग | सर्पेन्स | उ |
| ४६ | भुजंगधारी | ऑफियुचस | ग्र |
| ४७ | भूतप | बूटीज | उ |
| ४८ | मकर | कॅप्रिकॉर्नस | ग्र |

| | | | |
|---|---|---|---|
| ४९ | माक्षिका | मुस्का | द |
| ५० | मिथुन | जेमिनी | ग्र |
| ५१ | मीन | पिसीस | ग्र |
| ५२ | मृगशीर्ष | ओरायन | द |
| ५३ | मेष | एरिस | ग्र |
| ५४ | यम | इंडस | द |
| ५५ | यमुना | इरिडानस | द |
| ५६ | ययाती | पर्सीयस | उ |
| ५७ | रेखाटणी | नॉर्मा | द |
| ५८ | लघुलुब्धक | कॅनिस मायनर | द |
| ५९ | लघुसिंह | लिओ मायनर | उ |
| ६० | लघ्वश्व | इक्व्युलियस | उ |
| ६१ | वाताकर्ष | अँटालिया | द |
| ६२ | वायुभक्षक | शॅमिलिऑन | द |
| ६३ | वासुकी | हायड्रा | द |
| ६४ | वीणा | लायरा | उ |
| ६५ | वृक | लूपस | द |
| ६६ | वृश्चिक | स्कॉर्पियस | ग्र |
| ६७ | वृषपर्वा | सीफियस | उ |
| ६८ | वृषभ | टॉरस | ग्र |
| ६९ | शकरी | व्होलॅन्स | द |
| ७० | शर | सॅजिट्टा | उ |
| ७१ | शर्मिष्ठा | कॅसिओपिया | उ |
| ७२ | शशक | लेपस | द |
| ७३ | शिखाबल | पॅव्हो | द |
| ७४ | शिल्पागार | स्कल्प्टर | द |
| ७५ | शृंगाश्व | मोनोसेरॉस | द |
| ७६ | शौरी | हर्क्युलीस | उ |
| ७७ | श्यामशबल | केनीझ व्हीनॅटिसाय | उ |
| ७८ | षडंश | सॅक्स्टन्स | द |
| ७९ | सप्तर्षि | अर्सा मेजर | उ |
| ८० | सरठ | लॅसर्टा | उ |
| ८१ | सारथी | ऑरिगा | उ |
| ८२ | शींव | लिओ | ग्र |
| ८३ | सुक्ष्मदर्शी | मायक्रोस्कोपियम | द |
| ८४ | स्वस्तिक | त्रक्स | द |
| ८५ | हंस | सिग्नस | उ |
| ८६ | हस्त(ध्वांक्ष) | कोव्हॅस | द |
| ८७ | होकायंत्र | पिक्सिस | द |
| ८८ | होरायंत्र | होरोलोजियम | द |

(उ = ग्रहपथाचे उत्तरेक, ग्र = ग्रहपथालागीं आनी द = ग्रहपथाचे दक्षिणेक).

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : गिरो, फलज्योतीश.

**नगरपालिका :** शारांनी रावपी नागरिकांक तांच्यो दीसपट्ट्यो नागरी गरजो आनी सूखसोयी मेळोवन दिवपी स्थानिक स्वराज्य संस्थेक नगरपालिका अशें म्हण्टात. भारतांत नगरपालिका स्थापन करपाचो अधिकार १८५० वर्साच्या कायद्यान केंद्र सरकाराक मेळ्ळो. खंयच्याय शारांतल्या नागरिकांनी आपल्या शारांत नगरपालिका स्थापन जावंची, तेसंबंदान आमी कायदयाचें पालन करतले अशे तरेचो अर्ज करतकच सरकार नगरपालिका स्थापन करपाविशीं फावो ते उपाय येवजितालें. १८५० वर्सा उपरांत पंदरा-वीस वर्सांनी भारतांतल्या खूबशा शारांनी नगरपालिका स्थापन जाल्यो. नगरपालिका स्थापन करपाचो निर्णय सरकारान घेतकच राज्यपाल णव ते पंदरा वागड्यांची 'म्युनीसीपल कमिशनर' ह्या नात्यान नेमणूक करतालो. विंगड-विंगड जाती-धर्मांतल्या प्रतिष्ठित नागरिकांक प्रतिनिधीक पंच म्हणून नेमताले. कामकाजाविशींचे नेम नगरपालिकेन तयार करपाचे आनी राज्यपालान मंजूर करतकच ते अंमलांत हाडप अशी चाल आसली. घरपट्टी आनी जकात हे कर घालपाचो अधिकार नगरपालिकेक आसलो. तेच भाशेन रस्ते, नितळसाण, उदका-पुरवण ही कामां गरजेचीं मानतालें.

जिल्हाधिकाऱ्याच्या बदला बिनसरकारी वांगड्यांक अध्यक्ष करपाची चाल १८८५ वसासावन सुरू जाली. प्रतिष्ठित नागरिकांक नगरपालिकेच्या कामांत लक्ष घालपाक फावो तो वेळ मेळना हें लक्षांत घेवन कांय सरकारी अधिकाऱ्यांची नगरपालिकांचेर नेमणूक करपाक सुरवात जाली. तेभायर स्वतंत्र कर्मचारी वर्गूय नेमलो. १९०१ वर्सा बॉम्बे डिस्ट्रिक्ट म्युनीसीपालीटीस ॲक्ट सुरू केलो. ताका लागून ल्हान शारांनीय नगरपालिका स्थापन करपाक मेळ्ळ्यो. नगरपालिका हो प्रांतिक सरकाराचो विशय मानपाक लागले आनी दर एका प्रांतांत हाचेविशीं फावो ते कायदे चालीक लायले. १९१८-१९ च्या मॉंटेग्यु-चेम्सफर्ड सुदारणेप्रमाण नगरपालिकांनी सगळे नदरेन निवडणूकांचें तत्त्व अंमलांत आयलें. मतदानाचो हक्क, एके थरावीक रकमेपरस चड घरभाडें, शेतसारो वा आयकर भरपी नागरिकांपुरतो मर्यादीत आसलो. पूण स्वातंत्र्या उपरांत प्रौढ नागरिकांक मतदानाचो हक्क दिवपाचें तत्त्व नगरपालिका निवडणुकांनी आपणायलें.

गोंय, दमण आनी दीव नगरपालिका कायदो, १९६८ वर्सा अस्तित्वांत आयलो आनी १९६९ वर्सा तो चालीक लावपाक सुरवात जाली. ह्या कायदयान नगरपालिका स्थापन करपाविशीं तरतुदी केल्ल्यो आसात. त्यो वापरांत हाडपाची जापसालदारकी मंडळ, अध्यक्ष, स्थायी समिति, विशय समिती (नेमणूक केल्यार) आनी मुखेल अधिकारी हांचे कडेन सोंपयिल्ली आसा. साबार नगरपालिकांच्यो निवडणुको प्रत्यक्ष मतदान पद्दतीन प्रौढ मताधिकाराच्या तत्त्वाप्रमाण जातात. तशेंच, निवडणुको घेवपाची जापसालदारकी राज्य सरकारान नेमिल्ल्या म्युनिसिपल प्रशासन अधिकाऱ्याकडेन दिल्या. कलम १८ प्रमाण मतदारांची यादी तयार करप, निवडणुकांचो वेळ, दीस, सुवात थरोवप, निर्वाचन अधिकारी नेमप, उमेदवारी भरप/फाटी घेवप, मतदान पत्रिका तयार करप आनी निवडणुकांविशीं हेर तरतुदी करपाचे अधिकार राज्य सरकाराकडेन आसात.

दर नगरपालिकेक एक अध्यक्ष आनी एक उपाध्यक्ष वेंचून काडचो पडटा. अध्यक्ष आनी उपाध्यक्ष हांची नेमणूक वेंचून आयिल्ल्या वांगड्यातल्यान पंचवीस दिसांपयली जावपाक जाय. ह्या दोनूय पदाधिकाऱ्यांची मुजत

वेंचून आयिल्ल्या हेर वांगड्यांचे मुजतीवांगडाच सोंपता. वांगड्यांनी खास बसकेन सादया भोवमतान (simple majority) अध्यक्षाआड अविश्वासाचो थाराव मांडलो जाल्यार ताचें अध्यक्षपद रद्द थरता. अध्यक्षाक मानधन दिवपाविशींची तरतूद करपाचो अधिकार राज्य सरकाराकडेन आसता. नगरपालिकेच्यो बसका घेवन आनी तांचें अध्यक्षपद स्विकारप, नगरपालिकेच्या कारभाराचेर सर्वसादारण देखरेख दवरप हीं अध्यक्षाचीं मुखेल कामां आसतात.

**मुखेल कर्तव्यां आनी कार्यां -**

१. **गरजेचीं (obligatory)** - भौशीक रस्ते, सुवाती आनी इमारतींनी विजे पुरवण आनी उदका पुरवण, भौशीक सुवातींनी नितळसाण दवरप, उज्यापसून राखण करप, रस्त्यांचेर आनी सार्वजनीक सुवातींनी जावपी अतिक्रमण थांबोवप, रोग-पिडा हांचेपसून नागरिकांची राखण करप, रस्ते करप, मार्केट, कत्तलखाने, मुताऱ्यो, संडास, खळयो सारक्यो करप, बांयो मारप, पियेवपाचें उदक नागरिकांक पावोवप, दुकळ आनी अडचणीच्या वेळार नागरिकांक अन्न-वस्त्र-आलाशिरो दिवपाखातीर फावो त्यो येवजण्यो तयार करप, भौशीक दवाखाने सुरू करप, कुटूंब येवजण केंद्रां उक्तीं करप.

२. **धोरणात्मक (Discretional)** - भौशीक हॉस्पिटलां उगडून तांची देखरेख करप, वाचनालयां सुरू करप, म्युझियम तयार करप, पिशांखातीर हॉस्पीटल बांदप, तशेंच व्यायामशाळा, अपंगुळांखातीर घरां, धर्मशाळा, स्टेडियम बांदप, नागरिकांक संगीत आयकुपाक दिवप, येरादारीचीं साधनां लोकांक उपलब्ध करून दिवप.

दरेके नगरपालिकेन एक स्थायी समिति वेंचची पडटा. तशेंच, गरजेप्रमाण विशय समित्यांची (Subject committee) नेमणूक करची पडटा. स्थायी समितींत आस्पाव जाल्ल्या वांगड्यांचो आंकडो सगळ्या वांगड्यांच्या १/३ वांट्यापरस चड जावंक फावोना. तेच भाशेन विशय समितीच्या वांगड्यांचो आंकडो पांचापरस चड आसूंक फावोना. तशेंच, नगरपालिका ह्या अधिनियमाच्या खंयच्याय नेमाचेर वा खास विशयाचेर चौकशी करपाक, मत मागोवपाक वा अहवाल मागोवपाक ह्या समित्यांची नेमणूक करता.

दरेके नगरपालिकेंत एक मुखेल अधिकारी आसता (Chief Officer). तेभायर गरजेप्रमाण अधिकाऱ्याचे संमतीन नगरपालिका हेर अधिकाऱ्यांची नेमणूक करता ती अशी - अभियंतो, उदका पुरवण अभियंतो, भलायकी अधिकारी, लेखापरिक्षक, शिक्षणाधिकारी आनी हेर.

राज्यशासना कडल्यान मेळपी विंगड-विंगड अनुदानां, नगरपालिकेन लादिल्ले कर, दंड आनी हेर वेपारी उत्पादन एकठांय करून नगरपालिकेचो निधी तयार जाता. तेभायर दर वर्सा राज्य सरकार जे कार्यावळींखातीर अनुदान दिता त्यो अशो - उदका पुरवण, घाण उदक सोडपाची वेवस्था, मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण, विकास येवजण आनी नगररचणूक येवजण, नगरपालिकेचो अधिकारी वर्ग आनी कर्मचारी वर्ग हांचो म्हारगाय भत्तो, भौशीक भलायकी, उजो पालोवपी वेवस्था, रस्ते बांदप आनी सारके करप, राज्य सरकाराचे सुचोवणे प्रमाण हेर सुविधा.

कर्मचारी वर्गाक पगार नेमान मेळचो हे खातीर नगरपालिकेन राखीव निधी स्थापन करूंक जाय अशी कायदयान तजवीज केल्या.

नगरपालिकेक नागरिकांकडल्यान जे कर वसूल करूंक मेळटात, तांचे दोन गट केल्ले आसात -

१. **गरजेचे कर (Compulsory Taxes)** - हातूंत मालमत्तेवयलो संयुक्त कर (उदकापट्टी, भौशीक दिवे, नितळसाण), उद्देग-धंदयावयलो कर, सिनेमाघरांचो कर, जायरातींवयलो कर हांचो मुखेलपणान आस्पाव जाता.

२. **ऐच्छिक कर (Voluntary Taxes)** - हातूंत वाहनां, टोल, सुणीं, नितळसाण (खास सेवा दिल्यार), उदकापट्टी (खास उदका पुरवण केल्यार), यात्राकर, खास शिक्षण कर, जकात कर, हेर खंयचोय कर जो राज्य सरकार घटनेप्रमाण बसोवंक शकता. नवे कर लादपाविशीं तशेंच पोरण्या करांच्या प्रमाणांत बदल करपाचोय अधिकार नगरपालिकेक आसा. नगरपालिकेच्या जमाखर्चाचो हिशेब ताडून पळोवपाक राज्य सरकाराक अधिकार आसा.

नगरपालिकेच्या मुखेल वावराविशीं १९६९ वर्साच्या कायदयान पुराय तपशील दिल्लो आसा. तशेंच कायदयाची पुराय अंमलबजावणी करपाक फावो ते अधिकारूय नगरपालिकेक दिल्ले आसात. रस्ते आनी भौशीक जाग्यावयलीं अतिक्रमणां ना करप, इमारतींचें बांदकाम आर्विल्ल्या विज्ञानाप्रमाण जावंचें तशेंच उण्यांत उण्या गरजेच्यो सूखसोयी तातूंत रावपी नागरिकांक मेळच्यो हे नदरेन बांदकाम करपाक परवाने दिवप वा नाकारप, खर आनी धामी रोगांचेर आळाबंद घालप, मड्यांचो विलो लावप, बाजार, कसायखाने हांचेर नियंत्रण दवरप, खावपाच्या जिनसांचेर भौशीक भलायकेचे नदरेन देखरेख दवरप, दूदशाळा, गोरवांचे गोठे हांचेर नियंत्रण दवरप, दुकानां, भौशीक सुवातींचेर भरपी फेरयो हांचेरूय नियंत्रण दवरप ह्या कांय मुखेल गजालींविशीं कायदयान तरतूद केल्ली आसा.

नगरपालिकेच्या प्रशासनाच्या कार्याक आदार दिवपाखातीर राज्य पांवड्याचेर नगरपालिका प्रशासन संचालक ह्या अधिकाऱ्याची कायदयान नेमणूक करपाक मेळटा. नगरपालिकेच्या कारभाराचेर नदर दवरपाचे अधिकारूय ह्या प्रशासकाक दिल्ले आसात. नगरपालिका वा तिचे खंयचेय समितीन मंजूर केल्लो थाराव कायदयाचे चौकटेभायर आसत वा नागरिकांक लुकसान जावपी आसत जाल्यार तो चालीक लावपाचें स्थगीत करपाचे अधिकार जिल्हाधिकारी आनी नगरपालिका प्रशासन संचालक हांचेकडेन दिल्ले आसात. खंयचेय नगरपालिके कडल्यान बेकायदेशीर कार्य घडलें जाल्यार तेविशीं चवकशी करपाचो आनी गरज पडल्यार ती नगरपालिका बरखास्त करून प्रशासक नेमपाचो अधिकार राज्य शासनाकडेन आसा.

सद्या गोंय राज्यांत तेरा नगरपालिको आसात. पेडणें, म्हापशें, दिवचल, पणजी, फोंडें, मुरगांव (वास्को द गामा), मडगांव, वाळपय, सांगें, काणकोण, केपें, कुंकळ्ळी आनी कुडचडें - काकोंडें.

कांय राज्यांनी उत्पन्न, लोकसंख्या, क्षेत्रफळ वा तिनय नुसार नगरपालिका, महानगरपालिका अशे प्रशासकीय भेद केल्ले आसात.

- ॲड. अमोल थळी

**नगारो :** एक चामड्याचें वाद्य. कायलीच्या आकाराच्या ह्या वाद्याक दोन आयदनां आसतात. हीं आयदनां तांबे, पितूळ वा लोखणाच्या पत्र्याचीं आसतात. तांचेर म्हशीचें कातडें ताणोवन बसयतात. सादारणपणान नगाऱ्याच्या तोंडाचो व्यास तीन फूट आसता. व्हडल्या नगाऱ्याचो व्यास

पांच फूट आसता. दोन बागयल्ल्यो बडयो घेवन नगारो वाजयतात. नगाऱ्याच्या व्हडल्या आयदनाक 'जील' आनी ल्हान नगाऱ्याक 'जर' म्हण्टात. नगारो वाजोवपी लोकांक 'नगारची' म्हण्टात. नगारो दवरपाचे वा वाजोवपाचे सुवातेक 'नगारखानो' म्हण्टात.

नगारो हें चड करून झुजांत वाजोवपाचें वाद्य. झुजाच्या वेळार विरांक स्फुरण येवपा खातीर नगाऱ्या भाशेन वाद्यां वाजयताले. कौरव-पांडवांच्या म्हाझुजा वेळार सुर्वेक असलीं वाद्यां वाजयल्याचो उल्लेख महाभारतांत आसा. पुर्विल्ल्या काळांत ह्या वाद्याक 'दुंदुभी' अशें नांव आशिल्लें. झूज चलतना नगारो सगळ्यांत मुखार आसतालो. हतयाचेर वा उंटाचेर चडोवन तो वाजयताले. झुजांत जैत मेळटकच नगारो वाजोवन सगळ्यांक कळयताले. सेनापतीचे हुकूम सैन्याक कळोवपा खातीरूय तरातरांनी नगारो वाजयताले.

देवळांनी पुजेच्या वेळार, धर्मीक सुवाळ्यां वेळार, तशेंच दिसाच्या थरावीक वेळांनी वेळ दाखोवपाखातीरूय नगारो वाजोवपाची चाल आसा.

सूर्य उदेवंचेपयलीं आनी अस्ताक वतकच शाही फर्मान आयकुपाखातीर मोगलांच्या राजवाड्या मुखार नगारो वाजयताले. सकाळच्या नगाऱ्याक 'नौबत-स-आदन' आनी सांजवेळच्या नगाऱ्याक नौबत-मुराद अशें म्हण्टाले.

– कों. वि. सं. मं.

**नग्नसंप्रदाय :** शारीरीक नागडेपणाचो पुरस्कार करपी एक आर्विल्लो संप्रदाय. उक्ती मनीस कूड ही हिताची आसून तातूंत बुरशेपण वा कामोत्तेजक अशें कांयच ना. देखून समाजांत लिंगभेद करिनासतना नागडें भोंवप हातूंत कसलेंच वायट ना; अशें ह्या संप्रदायाच्या पुरस्कर्त्यांचें मत आसा. दादल्या बायलांच्या मानसीक आनी शरिरीक भलायकेखातिर आनी भुरग्यांचे बरे वाडीखातीर नागडेपणाची गरज आसता. ताका लागून लैंगिक विशयांची विकृत उमलशीक उणी जाता आनी हेर लैंगिक विकृती उण्यो जातात. मनशाचे कुडीक सुर्याचो उजवाड आनी नितळ हवा मेळटा. नागडेपणाक लागून सोबीतकाय, भलायकी हांचो उपभोगूय बरे तरेन घेवं येता. नागडेपणाक लागून इंद्रियदमन करपाचें बळगें प्राप्त जाता आदी मतांचो पुरस्कार ह्या संप्रदायांत करतात.

पुर्विल्ल्या काळासावन नागड्या देहाचो पुरस्कार केल्ल्याचें दिसता. आदल्या काळांतल्या जमातींनी तशेंच कांय प्रगत समाजांतल्या कांय धर्मीक विधींकडेन नागडेपणाचो संबंद आशिल्लो. कलेच्या मळारूय दादल्या बायलांचीं नागडीं चित्रां, शिल्पां दिश्टी पडटात. साहित्यांतल्या वर्णनांनीय दादल्या बायलांच्या नागड्या देहाचें दर्शन घडटा. जैनांतल्या दिगंबर पंथांत मोक्ष मेळोवपाखातीर नागडेपणाचो पुरस्कार करतात. तांच्यो तीर्थंकरांच्यो मुर्ती आनी आदर्श साधू वस्त्रा विरयतूच आसतात.

आर्विल्ल्या नग्नसंप्रदायाचें मूळ रिचर्ड उंगेविटर ह्या जर्मन विचारवंतान बरयल्ल्या 'Nakedness' (१९०६) ह्या पुस्तकांत मेळटा. विसाव्या शतमानाचे सुर्वेकसावन युरोपी देशांनी 'फ्री बॉडी कल्चर' ह्या नांवान नागडेपणाचो पुरस्कार उद्यानां, घरां आनी हेर कांय मर्यादीत क्षेत्रांनी केलो. १९२९ त 'अमेरिकन लीग फॉर फिझिकल कल्चर' हे नग्नसंप्रदायी संस्थेचो जल्म जालो. फुडें ही संस्था 'इंटरनॅशनल न्युडिस्ट कॉन्फरन्स' हे संस्थेंत रुपांतरीत जाली. १९३७ त हे संस्थेक 'अमेरिकन सन-बेदिंग असोसिएशन' अशें नांव दवरलें. अमेरिकेंत १५० परस चड नग्न संप्रदायी उद्यानां आसात. डॅन्मार्कांत यर्टशज नगरांत 'इंटरनॅशनल नेचरिस्ट फॅडरेशन' हे संस्थेचें कार्यालय आसा. ही संस्था तेरा देशांचें प्रतिनिधित्व करता.

नग्नसंप्रदाय भौतीक नदरेन कितकोय समर्थनीय दिसलो आनी ताच्या अनुयायांचे संख्येंत वाढ जाल्ली दिसली, तरी एकंदर समाजांत ताची सुवात ही एखाद्या पंथासारकी वा क्लबासारकी आसा. एके थारावीक विचारसरणीतले लोक सोडले तर नग्नसंस्कृतीक समाजांत विरोध दिसता.

– कों. वि. सं. मं.

**नचिकेतस् :** गौतम कुळांतलो उद्दालक ऋषीचो पूत. नचिकेताची मूळ कथा तैत्तिरीय ब्राह्मणांत आसा. थंय दक्षिणेचें महात्म्य आनी नचिकेत चयनाचीय म्हायती सांगल्या.

कठोपनिषदांत नचिकेताची कथा मेळटा ती अशी – उद्दालकान, यज्ञांत एक उपेग नाशिल्ली गाय दान दिली तेन्ना सोंसूंक नजो जावन, नचिकेतान रागान आपल्या बापायक विचारलें, 'म्हाका कोणाक दितलो?' तेन्ना बापायन ताका यमाक दितलों अशी जाप दिली. तेन्ना नचिकेत यमाकडेन गेलो. पूण यम घरांत नाशिल्ल्यान, नचिकेत यमाच्या दारांत तीन दीस उपाशीं बसून रावलो. यम परत येतकच, संतुश्ट जावन ताणें नचिकेताक तीन वर दिले. पूण वरांच्या बदलाक नचिकेतान, यमाकडेन तीन गजाली मागल्यो त्यो अशो –

१) हावें ह्याच शरिरान, थंड जाल्ल्या बापायलागीं परत वचचें.

२) सर्गसाधन आशिल्ली अग्निविद्या मेळची.

३) मरणा उपरांत आत्म्याच्या स्वरुपाचें ज्ञान जावचें. ह्यो तिनूय गजाली यमान ताका दिल्यो.

महाभारतांत गोदानमाहात्म्यपर दुसरे भाशेन नाचिकेताख्यान आसा. उद्दालकान रागान, नचिकेताक 'मर' म्हणटकच, नचिकेत मरून पडलो. तेन्ना बापूय खूब रडपाक लागलो. दुसऱ्या दिसा नचिकेत परतून जितो जालो. ताणें यमाच्या दरबारांत घडिल्ली घडणूक बापायक सांगली आनी गायेच्या दानाचेंय महात्म्य सांगलें.

वराहपुराणांतूय नाचिकेताख्यान मेळटा.

– को. वि. सं. मं.

**नजीर अकबराबादी :** (जल्म : १७३५, दिल्ली; मरण : १८३०). नामनेचो उर्दू कवी. ताचें मूळ नांव वली मुहंमद. ताच्या बापायचें नांव मुहंमद फारूक. अठराव्या शतमानाच्या मध्यांत नादिरशाह आनी अबदाली हांणी केल्ल्या अच्छेवाक लागून दिल्लींत अस्वस्थताय पातळिल्ली. ह्या वातावरणाक वाजेवन पिरायेच्या बाविसाव्या वर्सा तो दिल्ली सोडून आग्राक (अकबराबाद) गेलो. थयंच ताचें लग्न जालें. ताका एक चलो आनी एक चली अशीं दोन भुरगीं. इ.स. १७६९ त जाटांनी आग्रा शार लुटलें ताची बादा नजीराकय कांय प्रमाणांत जाली.

फार्सी, अरबी, पंजाबी, हिंदी, मारवाडी, पुरवी आनी व्रज आदी भाशांचें ताणें ज्ञान मेळयलें. तातूंत हिंदी आनी फार्सी भाशांचेर ताचें चड प्रभुत्व आशिल्लें. वैजक शास्त्र, सुलेखनकला, खगोलशास्त्र हांचोय ताणें अभ्यास केल्लो. फार्सी कवी सादी, हाफिज आनी खुसरौ ह्या कवींचो ताचेर प्रभाव आशिल्लो. अयोध्या आनी भरतपूर हांच्या दरबारांचें ताका आमंत्रण आयिल्लें

पूण ताणें न्हयकार दिलो. कुतबुद्दीन बातिन आनी महाराजा बलवंतसिंग राजा हे ताचे शिश्य आशिल्ले. संवसारांतली अशास्वतताय मतींत घेवन सैमीक समाधानी जिविताचो ताणें उपदेश केलो. हिंदू तशेंच मुसलमान धर्माची ताका आस्था आशिल्ली आनी तो सगळ्यांकडेन सारकोच आनी मायेमोगान वागतालो. ताणें आपलें पुराय जिवीत हिंदू जिणेपद्दतींत आनी परंपरेंत भरसून घेतिल्लें. भारतीय परंपरेकडेन अशे तरेन लागसल्लो संबंद आशिल्लो. ताचेभायर दुसरो खंयचोय उर्दू कवी मेळना. आपल्या कवितांवरवीं तो सलीम चिश्ती हाचे वांगडाच श्रीकृष्ण आनी गुरूनानक हांचींय स्तुतिस्तोत्रां गायतालो. ईदापरस दिवाळी आनी होळी हांचींच पदां ताणें चड म्हळ्यांत. आग्राचे जलतरण, पतंग उबोवप, खेळांउत्सव हांचीं प्रात्यक्षीक चित्रां ताणें आपले कवितेवरवीं रंगयल्यांत. भराडी आनी गारूडी हांचे वांस्वेल-माकडाचे खेळय ताचे नदरेंतल्यान सुटूंक नात. ताणें जें जें पळेलें ताचें तशातशें आनी बारीक साणीन वर्णन केलें.

तो लोककवी आशिल्लो, देखुनूच ताची रचना सामान्यांक चड मानवताली. फकीर तशेंच साद्यांतल्या साद्या मनशाचे जिबेर ताचीं पदां सतत घोळत उरतालीं. मरण हें अटळ आसा तें खंयच्याय खिणाक येवंक शकता. जाल्यार श्रीमंती, दळडीर, सूख-दुख्ख हांचो हुसको करीत कित्याक बसप असो ताचो विचार आशिल्लो. ताणें आपलें जिवितूय भंयाविरयत घालयलें.

तो लोककवी आशिल्ल्यान पसरकार, सावकार, कुस्तीगीर आनी फकीर आदी समाजांतल्या वेगवेगळ्या वेवसायांतल्या सामान्य मनशांचे उच्चार ताचे भाशेंतल्यान उकते जाताले. ताची काव्यांतली भास सामान्य मनशाच्या तोंडांत घोळपी आशिल्ली. पूण शाहबाज, डॉ. फेलन आनी तांचे उपरांत लतीफ अहमद, अकबराबादी, सक्सेना, नियाझ मजनू गोरखपुरी आनी एहतेशाम हुसेन ह्या सारक्या विसाव्या शतमानांतल्या समिक्षकांनी ताच्या काव्यांतले सोबीतकायेची समिक्षा केल्या.

उर्दू गद्यांतली फहमे करीन हाचेभायर फार्सी भाशेंतय ताणें पांच गदय पुस्तिका बरयल्यात. ताचो कवितांझेलो सुर्वेक मेरठाक 'मतबए इलाही' हातूंत उजवाडाक आयलो. उपरांत थंयच तो परत 'मतबए अहमदी' हातूंत हिजरी सन १२८२ त प्रकाशीत जालो. अब्दुल गफूर शहबाझ हाणें इ.स. १९०० त लखनौ सावन ताचो संग्रह 'कुल्लियात-इ-नजीर' ह्या नांवान संपादून उजवाडाक हाडलो. मिर्झा फरहतुल्ला ताच्या गझलांचो 'दिवान' हो संग्रह दीवान-इ-नजीर अकबराबादी ह्या नांवान संपादून १९४२ त दिल्लीक उजवाडाक हाडलो. ताच्यो उर्दू गझल 'नज्म' तशेंच फार्सी कविता 'कुल्लियात-इ-नजीर' (१९५१) ह्या नांवान उजवाडाक आयिल्ले आवृत्तींत आस्पावतात. आग्रा शारांत दर वर्सा होळयेच्या वेळार ताच्या दर्ग्यामुखार जात्रा भरता.

- कों. वि. सं. मं.

**नजीर अहमद :** (जल्म : ६ डिसेंबर १८३६, नगीना, उत्तरप्रदेश; मरण: ३ मे १९१२, दिल्ली).

नामनेचो उर्दू लेखक आनी उर्दू कादंबरीचो जनक. ताचें पुराय नांव मौलवी शम्सुल्उल्मा नजीर अहमद खान बहादूर. ताच्या बापायचें नांव मीर सआदत अली. एका गरीब घराण्यांत ताचो जल्म जाल्लो. मुळावें शिक्षण आपल्या बापायसरीं घेवन पिरायेच्या १४ व्या वर्सा तो फुडलें शिक्षण घेवपाक दिल्लीक गेलो. थंय एके मशिदीक जोडून आशिल्ले शाळेंत तो शिक्षण घेवपाक लागलो. बऱ्याच हालांनी ताणें आपलें माध्यमिक शिक्षण पुराय करून फुडें दिल्ली म्हाविद्यालयांत नांव घालें. पूण बापायन ताका इंग्लीश शिकपाक मनाय केली. १८४७-५४ मेरेन ताणें अरबी साहित्य, गणित आदी विशयांचें म्हाविद्यालयीन शिक्षण घेवन पंजाबांत शिकोवपाची नोकरी धरली. फुडें आपल्या कर्तुत्वान ताका शाळा निरिक्षकाची बडटी मेळ्ळी. नोकरी करता आसतनाच ताणें घरा अभ्यास करून आपली इंग्लीश शिकपाची इत्सा पुराय केली. १८६१ त ताणें 'भारतीय दंड संहितेचो' उर्दूंत अणकार केलो, जाचेखातीर ताका मामलेतदार म्हणून नेमलो. फुडें हे नोकरेंत तो उपजिल्हाधिकारी पदामेरेन चडत गेलो. १८७७ त एका शिश्टमंडळाचो प्रतिनिधी जावन तो दक्षिण हैदराबादेक गेलो. फुडें थंय तो राजस्व मंडळाचो वांगडी जालो. १८९७ ताका एडिंबरो विद्यापिठान एल. एल. डी. ही पदवी दिवन आनी पंजाब विद्यापिठान डी. ओ. एल. ह्यो पदव्यो दिवन ताच्या वावराचो भोवमान केलो. हैदराबादेक सेवानिवृत्त जावन तो दिल्लीक परतलो.

एक व्हड उर्दू लेखक, शिक्षणतज्ञ आनी प्रभावी वक्तो म्हणून ताची नामना आशिल्ली. तेचपरी तो विनोदीय आशिल्लो. ताच्या व्याख्यानाचे दोन संग्रह उजवाडाक आयल्यात. शिक्षणाच्या प्रसाराखातिरय ताणें उल्लेख करपासारकी कामगिरी केल्या. ताचें ग्रंथसाहित्य भरपूर आसून तातूंत कायदद्यावयल्या जायत्या ग्रंथांचे उर्दू अणकार, मतालिब-उल-कुरान हो कुराणावयलो विवरणग्रंथ, कुराणाचो कुराण मजिद मुतारजम हो म्हत्वाचो उर्दू अणकार आदी सुमार ३५ ग्रंथाचो आस्पाव आसा.

मिर अतुल-उरूस (१८६९ बघुचो आदर्श) ही ताची पयली कादंबरी आसून, हे कादंबरी खातीरच ताका उर्दू कादंबरीचो जनक मानतात. उपरांत ताणें सात कादंबऱ्यो बरयल्यो. तातूंतल्या कांय कादंबऱ्यांक पुरस्कार मेळ्ळा. 'मिर अतुल-उरूस आनी बिनात-उन्-नाश (१८७३ शवकन्या) ह्या कादंबऱ्यांनी ताणें त्या काळांतल्या बायलांचे प्रस्न प्रभावीपणान हाताळ्ळ्यात. ताणें अयामा, फसाना-इ-मुबतल (१८८५) आनी 'रुया-इ-सादिका' आदी कादंबऱ्यो बरयल्यात. मुंतखिब-उल-हिकायत १८६९ हो ताच्या कांय वेंचिल्ल्या कथांचो संग्रह. तौबतुन्नसूह (१८७७) 'पश्चातापाचो उदगार' हे ताचे म्हत्वाचे कादंबरीक खूब नामना मेळ्ळ्या. हे कादंबरेंत ताणें दिल्लींतल्या अस्ताक वचपी मुसलमान घराण्याचें दूखदिणें चित्र चितारलां.

'इब्नल्वक्त' (१८८८, कालपूत्र) हे कादंबरेंत ताणें भारतीयांनी केल्ल्या इंग्लिशांच्या कुड्ड्या अनुकरणाचेर टिका केल्या. ताच्या हेर कादंबऱ्यांनी 'चंदपंद' (१८६९, थोडो उपदेश), मबादियुल हिकमत (१८७१, तर्कशास्त्र प्रवेश), अल् हुकुक् वल् फरायझ् (१९०६, हक्क आनी कर्तव्यां), अल् इजतेहाद् (१९०८, नवो पवित्रा) उम्महातुल् उम्मह (इस्लामी जमातीच्यो माता) आदींचो आस्पाव जाता. ताणें बरयल्ल्या ह्या म्हत्वाच्या कादंबऱ्यां खातीरच ताका उर्दू साहित्यांत म्हत्वाचें स्थान मेळ्ळां. आपल्या जायत्या कादंबऱ्यांवरवीं ताणें गरिबींत दीस सारतल्या मध्यमवर्गीय मुसलमान समाजाचे उदरगतीचे विचार कलात्मक रितीन उक्तायल्यात. ताणें कांय कविताय बरयल्ल्यो आसून त्यो 'मजमूअए बेनजीर' ह्या झेल्यांत एकठांय केल्यात. ताणें उर्दूंत अणकार केल्ल्या एका ग्रंथाक एक हजार रुपयांचो पुरस्कार फावो जाल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**नटराज :** शिवाचें नर्तक रूप. नट (नाच करप) ह्या मूळ संस्कृत धातूपसून 'नट' (नर्तक) हो शब्द जाला. नटराज म्हळ्यार नटांचो राजा. ताका नटेश, नटेश्वर, नटशिखामणी आनी नर्तेश्वर अशेंय म्हण्टात. नटराजाच्या उजव्या कानांत दादल्याचें आनी दाव्या कानांत बायलांचें कानांतलें आसता. हाचेवयल्यान अर्दनारी नटेश्वर हेंय नटराजाचेंच एक रूप आशिल्ल्याचें स्पश्ट जाता. शिव म्हळ्यार नटराज हो आद्य नर्तक, नाचाचें एक दैवत, नृत्यकलेचो प्रवर्तक, आद्य नृत्याचोय आनी स्वताच्या नृत्याचो तो प्रेक्षकय आसता.

नटराजाच्या नाचाचे जायते प्रकार आसात. तातूंत सात्विक नृत्यापसून तामसिक स्मशान नृत्यामेरेन जायत्या नृत्यांचो आस्पाव आसा. शैवागमात नटराजान १०८ तरांचीं नृत्यां केल्ल्याची म्हायती मेळटा. ताच्या मुखेल नृत्याचें नांव तांडव अशें आसून ताचे सात प्रकार आसात. तातूंत संध्यानृत्य वा प्रदोषनृत्य हाची नामना आसा. कैलासाचेर पार्वतेक रत्नखचित शींवासनाचेर बसोवन शिव सांजवेळचें हें नृत्य करता. शिल्पांवरवीं नटराजाचीं 'कटिसम', 'ललित', 'ललाट तिलक', 'चतुर', 'तलसंस्फोटित', उर्ध्वजानू' आदी नृत्याचे प्रकार मेळटात. पूण ह्या सगळ्यांमदीं 'नादान्त' ह्या नृत्याची चड नामना आसा. चिदंबरमांतली संवसारीक नामनेची नटराजाची मूर्त ह्याच पावित्र्यांत आसा. हांगाचें हें नटराजाचें देवूळ चोलराजा परांतक (पयलो) हाणें धाव्या शतमानांत बांदिलें. नटराजाच्या ह्या नाचाविशीं एक कथा आसा ती अशी - कांय दुश्ट ऋषींक मारपाखातीर शिव चिदंबरमाक गेल्लो. तेन्ना ताणीं एक नाग, एक वाग आनी एक मनीस हांकां शिवाचेर हल्लो करूंक सांगलें. शिवान त्या मनशाचे फाटीचेर जो नाच करून त्या ऋषींक खूश केलो तोच हो नादान्त नाच.



नादान्त नाचाचे भुमिकेंतली नटराजाची मूर्त जायतेकडेन दिश्टी पडटा. ह्या वेगवेगळ्या मूर्तींनी जरी हय न्हयसो फरक जाणवलो तरी मूळ कल्पना एकच आसता. हे मुर्तींत नटराज एक कमळाचे बसकेचेर, अपस्मार नांवाच्या एका मोटव्या आनी उंमथ्या पडिल्ल्या मनशाचेर उजवो पांय दवरून उबो आसता. ताणें दावो पांय वयर उखलून तो उजवे वटेन धरिल्लो आसता. ते बसकेचे नटराजाचे मुर्तीक पुराय व्यापपी एक वाटकुळाकार प्रभामंडळ आसता. त्या प्रभामंडळाक भायले वटेन (उज्याच्या) ज्वालेचे अंकूर आसतात. ताका चार हात आसतात. फाटले वटेनच्या उजव्या हातांत डमरू आनी दाव्या हातांत उजो आसता. फुडले वटेनचो उजवो हात अभयमुद्रेंत आसता, जाल्यार दावो हात दंडहस्त वा गजहस्त मुद्रेंत उबारिल्लो पूण पांयांकडेन संकेत करीत सकयले वटेन बागयल्लो आसता. जटा ताळवेर बांदिल्ल्यो आसतात आनी तांचेर नाग, कवटी, गंगा, चंद्रकोर आदी आभुशणां आसतात. मेकळ्यो सुटिल्ल्यो जटा भुरभुरत आसतात. फाटले दोनूय हात आनी ताचें मस्तक चड करून प्रभावळीक तेंकिल्लें आसता. ताच्या गळ्यांत हार, जानवें, कमराक रत्नखचीत कमरपटो आनी बोटांनी मुदयो आसतात. कमराक एक कटिवस्त्र आसता.

हे मुर्तींतली रचणुकेचीं खाशेलपणां आनी नाचाफाटलीं प्रतिकां अशे तरेन स्पश्ट केल्यांत : नटराजाचो उजवो पांय हो विश्वनिर्मिती जावंची म्हणून जिवांक मायेच्या बंधनांत घालता, वयर उखलिल्लो पांय भक्तांक मोक्ष दिता. संवसार निर्मितेच्या वेळार पयलो शब्द तयार जाता देखून डमरू हें निर्मितेचें प्रतीक जाल्यार अग्नी हें प्रलयंकर तत्व आसून नाशाचें प्रतीक. अशे तरेन पांयांच्या स्थितींतल्यान निर्मिती आनी नाश ह्या मुलभूत अवस्थांतलो समतोल सादिल्लो आसा. प्रभामंडळ हें प्रकृतीच्या नाचाचें प्रतीक.

नटराजाचो नाच हो परमेश्वराच्या आदिशक्तीचो लयबद्ध अविश्कार. तशेंच तें संवसारांतल्या नियमबध्द हालचालिंचें प्रतीक ही ह्या नाचा फाटली मूळ कल्पना अशें सांगतात. हो नाच म्हळ्यार ईश्वराच्या सृश्टी, स्थिती, संहार, तिरोभाव आनी अनुग्रह ह्या पांच क्रियांचें प्रतीक मानतात. हातूंत डमरू हें सृश्टीचें, अभयमुद्रा हें स्थितीचें, अग्नी हें नाशाचें, प्रभामंडळ हें तिरोभावाचें आनी उखलिल्लो पांय हें अनुग्रहाचें प्रतीक मानतात. शिवान आपलो नाच सुरू केले बगर प्रकृती नाच करिना. त्रिभूवन हो ताचो आंगिक अभिनय, सगळें वाङ्मय हो ताचो वाचिक अभिनय आनी चंद्रीम, गिरे हो ताचो आहार्य अभिनय. नाच थांबतकच पुराय संवसार तो आपणा भितर आस्पावन घेवन आत्मानंदांत रावता - अशी नटराज कल्पनेफाटली भुमिका आसा.

दक्षिणेंतल्या शिवाच्या जायत्या देवळांनी नटराजाच्यो मुर्ती पळोवंक मेळटात. देवळाच्या एका भागांत नटमंडप आनी नटसभा आसताच. चिदंबरमांतले सभेक कनक सभा आनी थंयच्या नटराजाक कनक सभापती म्हळां. तिरूवरंगुळम, शियाळी, तंजावर, तेनकासी, तिरूवनंतपुरम, बादामी ह्या नगरांनी आशिल्ल्यो धातू, पाशाण आनी हस्तदंतीच्यो मुर्ती उल्लेख करपासारक्यो आसात. चोल, पांड्य, पल्लव, चालुक्य आदी राजवंशांच्या काळांतल्यो नटराजाच्यो जायत्यो मुर्ती मेळ्ळ्यात. तिरूवालंगाडूची भुजंगत्रसित ही नाचाचे अवस्थेंतली मूर्त (११वें शतमान, उंचाय ११४.५ सेंमी.) ही सगळ्यांत सुंदर मूर्त मानतात. सद्या ही मूर्त मद्रास गवर्नमँट म्युझीयमांत आसा.

गयेक नटराज गयासुराचे कुडीचेर नाचलो तशेंच भरताचार्य हाका ताचे प्रेरणेन ताचो शिश्य तंडू हाचेकडल्यान तांडव नाचाचें आनी पार्वतीकडल्यान लास्य नाचाचें ज्ञान मेळ्ळें आनी भरताचार्या कडल्यान तें मनशांक मेळ्ळें आदी जायत्यो कथा मेळटात. नृत्यशास्त्रावयले ग्रंथ, पुराणां, मेघदुतादी काव्यां हातूंतल्यान शिवाच्या वैश्विक नाचाचीं वर्णनां मेळटात.

– कों. वि. सं. मं.

**नन्नेचोड :** (बारावें शतमान).

नामनेचो तेलुगू कवी. तेलुगू साहित्य-इतिहासकारांनी ताका

'कवीराजशिखामणी' ह्या नांवान ताचो गौरव केला. तो वेलामती चोड घराण्याचो राजकवी आशिल्लो. कांय अभ्यासकांच्या मतान तो राजघराण्यांत जल्मल्लो. पाकनाडूचो चोलवंशी राजा चोडबल्ली हो ताचो बापूय. ताच्या काळाविशीं एकमत ना. तरी तो बाराव्या शतमानाचे सुर्वेक नन्नय आनी तिक्कन्न हांचे मदल्या काळांतलो जावन गेला आसूंक जाय अशें मानतात. शैव कवींमदीं ताका उंचेलें स्थान आसा. देशी शैलीचो आद्य प्रणेतो आनी कुमारसंभव ह्या प्रबंधकाव्याचो (महाकाव्याचो) कर्तो ह्या नात्यान ताका पुर्विल्ल्या तेलुगू साहित्यांत म्हत्वाचें स्थान आसा. ताच्या कुमारसंभव ह्या महाकाव्यांत धनुर्विद्या, आयुर्वेद, गजपरिक्षा आनी हेर कलाविद्यादिकांचो उल्लेख येता. ताणें कालिदास आनी उद्‌भट हांच्या नामनेच्या कृतीचो हो अणकार स्वतंत्र पद्‌दतीन केला.

ताणें आपलें हें काव्य आपलो गुरू श्रीशैलमाचो जंगम मल्लिकार्जूनदेव शिवयोगी हाका अर्पण केलां. बारा पर्वां आनी सु. २,००० पद्यां आशिल्ल्या ह्या चंपू शैलींतल्या ग्रंथांत शृंगार आनी वीर ह्या रसांचो बरो मेळ सादला. ताचीं निसर्गवर्णनां आनी व्यक्तीचित्रणां प्रभावी आसात. ह्या काव्यांकडेन ताचें कल्पनावैभव, भावमाधुर्य आनी तत्कालीन आचारविचारांचें पडबींब हे नदरेन पळेल्यार ह्या पयल्या प्रबंधकर्त्याची प्रतीभाशक्ती समर्थ दिसता. शिष्टू रामकृष्णशास्त्री ह्या समीक्षकान ताची कालीदासाकडेन तुळा केल्या. ताणें लोकवेव्हारांतली भास आनी वाक्प्रचार हाचोय आपले रचनेंत उपेग केल्लो दिसता. तमीळ आनी कन्नड भाशांतल्या त्या काळांतल्या उपलब्ध साहित्याचें अनुकरण ताणें केल्लें दिसता. नन्नेचोडाचे शैलेचो पाल्कुरिकी सोमनाथ हाणें पुरस्कार केला.

– कों. वि. सं. मं.

**नभोनाट्य :** रेडिओवयल्यान (नभोवाणी) प्रसारीत जावपी नाट्यप्रकार. हो नाटक प्रकार फकत आयकुपाचो. रंगमाची वा दूरदर्शन - व्हिडिओ वयल्या नाटका सारको पळोवन आयकुपाचो न्हय. उतरां, कंठ संगीत, वाद्यसंगीत आनी तरेकवार ध्वनीसंकेत इतल्याच माध्यमांतल्यान तो प्रगट जाता. रंगमाचयेवयल्या नाटकाभाशेन हातूंत पात्रां, तांचो अभिनय, रंगोवप, भेस, देस, काळ हातूंतल्यान निर्माण जावपी वातावरण नाशिल्ल्यान नभोनाट्याक कांय बंधनां पडटात. नभोनाट्याचो वेळ धा - पंदरा मिनटांपसून एका वरामेरेन आसता. उण्या वेळांतलें नभोनाट्य अदीक परिणामकारक जावपाची शक्यताय आसता.

नभोनाट्य ही आयकुपाची कार्यावळ आशिल्ल्यान ताका 'श्रुतिका', 'रेडिओ नाटक' वा 'आकाशवाणी नाटक' अशींय नांवां आसात. हातूंत संविधानक रोखडेंच समजुपासारकें आसून पात्रांची आनी प्रसंगांची संख्या उणी आसची पडटा. तशेंच उच्चारांतलो आवाज वाडोवन-देंवोवप, दुख्ख-उमेद, राग-मोग ह्या भावनांचो परिणाम ध्वनियेवजणेवरवीं सादचो पडटा. तेच भाशेन वातावरणाची निर्मितीय करतात. कथा, कादंबरी, महाकाव्यां हांचेर आटापिल्लीं नभोनाट्यां धारावाहिक स्वरुपांतूय रेडिओवयल्यान वितरायतात. देशांतलीं भोवतेक सगलीं रेडिओ केंद्रां नित्यनेमान आपले थळावे भाशेंतल्यान नभोनाट्यां वितरायतात. दर म्हयन्याच्या एका थराविक दिसा, एकाच वेळार एकूच नभोनाट्य सगळ्या केंद्रांवयल्यान त्या त्या केंद्राचे थळावे भाशेंतल्यान राश्ट्रीय प्रसारण म्हणून सादर जातात. तेभायर वेवसायीक स्वरुपांत उण्या प्रमाणांत नभोनाट्याच्यो ध्वनीफिती आनी ग्रामोफोन रिकॉर्डीय भायर सरतात. नभोनाट्याच्या लिखाणांक साहित्यीक मोल आसता. कांय साहित्यकृती नभोनाट्यां म्हणून मुखार येतात जाल्यार कांय नभोनाट्यां पुस्तक रुपान येवन साहित्याक योगदान दितात.

१९३६ वर्सा सावन भारतीय आकाशवाणीचेर नभोनाट्याचे वितरावणेक आरंभ जालो. 'ब्रिटीश ब्रॉडकास्टींग कॉर्पोरेशन' (लंडन) हाचे वयल्यान प्रसारीत जावपी ल्हान ल्हान प्रहसनांच्या प्रभावान भारतीय नभोनाट्य तयार जालें. गोंय स्वतंत्र जावंचे आदीं गोंयांत 'एमिसोर द गोअ' (EMISSORA DE GOA) ह्या नांवाखाला पुर्तुगेज सरकाराचें रेडिओ केंद्र आशिल्लें. त्या केंद्रावयल्यान कोंकणी नभोनाट्याची वितरावणी जाताली. १९५२ वर्सासावन मुंबय रेडिओ केंद्रावयल्यान कोंकणी नभोनाट्यां वितरीत जावपाक लागलीं. गोंयांत कोंकणी नभोनाट्याक पुंडलीक नारायण दांडे हाणें लिखाण आनी निर्मितीचे नदरेन नामना आनी प्रतिश्ठा मेळोवन दिली.

१९८० आनी १९८६ वर्सा पुंडलीक नारायण नायक हाच्या अनुक्रमान 'मर्णकटो' आनी 'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या नाटकांक आखिल भारतीय आकाशवाणी नाट्य पुरस्कार फावो जाले. १९८८ वर्सा कोंकणी नाटकाच्या 'श्री विचित्रेश्वर का मेला' ह्या हिंदी रुपांतराक ऑस्ट्रेलियन ॲकॅडॅमी ऑफ आर्टस ॲण्ड सायन्स हाचो पेटर्स ऑस्ट्रेलियन अवॉर्ड फावो जालो. १९८७ वर्सा सावन अखिल भारतीय नभोनाट्य लिखाण सर्तींत हेर भारतीय भाशांवांगडा कोंकणी नभोनाट्याच्या लिखाणांक राश्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळ्यात. 'संगीत लोकांखेळ' नांवाच्या लोकनाट्य शैलीच्या नभोनाट्य प्रकाराक गोंयांत आयकुप्यांमदीं खूब मागणी आसा. अशा नभोनाट्यांचो निर्मातो म्हणून आलेन कोश्त हाचें नांव फांकिवंत आसा. देशांतल्या पणजी, मुंबय, मंगळूर, धारवाड ह्या केंद्रांवयल्यान कोंकणी नभोनाट्यांची वितरावणी जाता.

– पुंडलीक नारायण नायक

**नम :** एक तीथ. चंद्राची णववी कला म्हणजेच नम. दरेक म्हयन्याच्या शुक्ल आनी कृष्ण पक्षांनी ही तीथ येता. हे तिथीक 'रिक्ता' अशेंय नांव आसा. देखून खंयचेंय शूभकार्य ह्या दिसा करचें न्हय अशें म्हणप जाता. पूण कांय विधी वा निमित्तीक उत्सव ह्या दिसाच करचे पडटात. देखून ही नम कशी आनी केन्ना धरप हे विशींचें स्कंदवचन अशें आसा -

नवमीतुसर्वमते पूर्वा युग्मवाक्यात् नकुर्यात् नवमिंतात
दशम्यांतु कदाचनेति स्कांदवचनात् ॥ धर्मसिंधु ॥

सगळ्या शास्त्रकारांच्या वचनाप्रमाण नम ही तीथ पूर्वा म्हळ्यार अश्टमीयुक्त धरपाची, कारण अश्टम आनी नम ह्यो तिथी जोडयेन येतात. सुर्योदयाक अश्टम मेळटा अशी नम धरपाक हरकत ना, मात नम सुर्योदयाक आसून फुडें त्या दिसा दसम आसत जाल्यार ती नम धरपाक जायना अशें शास्त्रवचन आसा. वर्सभरांत ज्यो नम तिथी येतात तातूंतल्यो कांय तिथी म्हत्वाच्यो आनी सांस्कृतीक रितीन रूढ आसात. तांकां वेगवेगळीं नांवांय आसात.

चैत्र शुध्द नम : ह्या दिसा प्रभु रामचंद्राचो जल्म जाल्लो देखून हिका 'रामनम' अशें म्हण्टात.

श्रावण कृष्ण नम : गोपाळकालो.

भाद्रपद शुक्ल नम : अदुःख नम.

भाद्रपद कृष्ण नम : अयानम (अविधवा नम) सौभाग्यवती बायल मरतकच तिच्या भुरग्यांनी तिचें पक्षश्राद्ध करपाचें आसता तो दीस म्हळ्यार अयानम. अयानम खंयच्या दिसा धरची हाचो निर्णय असो -

सर्वासां एव मातृणाम श्राध्दं कन्यागतेरवौ नवभ्यां हि

प्रदातव्यं ब्रह्मवरायतलब्ध इति सूतेनावश्यक त्वोवतेश्च

रवी कन्यागत आसतना नम तिथीक (भाद्रपद कृष्ण नम) सगल्यांनी जांची आवय सौभाग्यपणांत मेल्या ताणीं आवयचें श्राद्ध करूंक जाय. जाका लागून ब्रह्मदेव तांकां सद्‌गती दिता.

आश्विन शुक्ल नम : 'खड्‌गनम' ह्या दिसा सगळ्या शस्त्रांची पुजा करतात आनी निवेध दाखयतात. ह्याच दिसा पांडवांनी आपलीं शस्त्रां शमीच्या झाडावयल्यान भायर काडिलीं आनी तांची पुजा केली, अशें सांगतात.

कार्तिक शुक्लनम : कुपमांड नम. कूपमांड म्हळ्यार कुंवाळो. कांय वाठारांनी कुंवाळ्याचे वेगवेगळे खाद्यप्रकार करून ते खावपाची चाल आसा.

माघ शुध्द नम : 'महानंदा नम'. ह्या दिसा महानंदा नांवाचें व्रत करतात. हें व्रत जो कोण करता ताच्यो सगळ्यो गजाली अक्षय जातात, अशी आख्यायिका आसा.

माघ कृष्ण नम : रामदास नम. सज्जनगडाचेर माघ वद्य, नम शके १६०३ ह्या दिसा श्री समर्थ रामदासान आपलें अवतारकार्य सोंपयलें.

पुराय वर्साच्या नम हे तिथी दिसा जो कोण दुर्गापुजा करता आनी त्या दिसा फकत पिठाचेच पदार्थ खावन रावता ताका गौरी प्रसन्न जाता आनी वर दिता असो समज आसा.

हे तिथीक जल्मल्लो मनीस आचारहीन, कृष्ण कठोर आनी अपकारी आसता. हे तिथीपसून सैमाचेर बरे वायट परिणाम जातात आनी सैमांत बदल जावपाक लागतात. हो परिणाम चड करून तृतीयेमेरेन जाता असो समज आसा.

- माधव गोविंद भुस्कुटे

**नमशीकार, रघुवीर :** गोंयचो नामनेचो गायक आनी नट. गांव बांदोडें. ल्हानपणासावनच ताका संगिताची आवड आशिल्ली, देखून शिक्षणांत ताणें फावो तें लक्ष दिलें ना. ह्याच वेळार 'भारत' नेमाळ्याचो संपादक हेगडो देसाय तांगेर आशिल्लो तेन्ना ताणें ताची नाटकाची ओड पळयली. शिक्षणांत फुकट वेळ वगडावंचे परस खंयचेय नामनेचे अशे नाटकमंडळींत ताका प्रवेश मेळोवन दिवपाखातीर तो ताका घेवन मुंबय गेलो. थंय ताणें किर्लोस्कर नाटक मंडळींत ताका प्रवेश मेळोवन दिलो. हे नाटक मंडळींत सुर्वेक ताणें 'शारदा' नाटकांतल्या 'तुंगा' हे ल्हानशे भुमिकेन सुरवात केली आनी ल्हव-ल्हव करून फुडें ताका 'शारदे' ची मुखेल भुमिका मेळ्ळी.

फुडें किर्लोस्कर नाटक मंडळींत म्हत्वाच्यो घडामोडी घडल्यो. गोविंदराव टेंबे, गणपतराव बोडस आनी बालगंधर्व हाणीं 'गंधर्व संगीत मंडळी' स्थापन केली. जाल्यार चिंतामणराव कोल्हटकर, कोल्हापुरे आनी मा. दिनानाथ हाणीं 'बळवंत' संगीत मंडळी स्थापन केली. अशा वेळार रघुवीर नमशीकरान किर्लोस्कर कंपनीची सोबीत बायल कलाकाराची गरज पुराय केली. हे कंपनीत ताका फावो तें मार्गदर्शन मेळ्ळें आनी रंगमाचयेविशीं ताचें गिन्यान वाडत गेलें. तशेंच वचत थंय ताका नामना मेळत गेली. शिवलिंग शिवाचार्य हाणें ताका भांगरा पदक दिलें. हे मंडळींत आसतना ताणें 'शाकुंतल' आनी 'पुण्यप्रभाव' ह्या नाटकांनी बायल कलाकाराची भुमिका केली.

उपरांत तो गोंयांत आयलो आनी तो गोंयचे 'ललितप्रभा' हे नाटक मंडळींत गेलो. हे कंपनींत आसतना तो दादलो-कलाकाराची भुमिका करूंक लागलो. उपरांत तो 'रंगबोधेच्छु' हे नाट्य संस्थेत गेलो. थंय तीन वर्सां वेगवेगळ्यो भुमिका वठयतकच मागीर मात तो खंयचेच नाटक कंपनींत गेलो ना. उपरांत ताणें कांय नाटकांचें दिग्दर्शन केलें. नाटकाक संगीत दिलें. भजनाचे कार्यावळींत रागदारीचें गायन हें ताचें खाशेलेपण आसलें.

- कों. वि. सं. मं.

**नमाज :** इस्लाम धर्मांतलो प्रार्थनाविधी. मुसलमानांच्या धर्मीक आचारांतलें एक म्हत्वाचें कर्म. इस्लाम धर्मांतल्या प्रार्थनाविधीक फार्सी भाशेंत 'नमाज' आनी अरबी भाशेंत सलात अशें म्हण्टात. कुराणांत सलात शब्द साबार खेपे आयला. सकयल बागोवप, माथें जमनीर तेंकोवन प्रणाम करप आनी कुराण वाचप हीं नमाजाचीं तीन मुखेल आंगां आसा.

नमाज म्हणचे पयलीं जण एका मुसलमान मनशाक न्हावन-धुवन नितळ कपडे घालचे आनी उपरांत मेकळ्या मनान मक्केचे दिशेक तोंड करून उबें रावचें, अशी धर्माज्ञा आसा. फांतोडेचेर एक नमाज म्हणपाची मुहंमदाची प्रथा आशिल्ली. श्रध्दावान मुसलमान आयजूय तिका पाळो दितात.

जर खंयच्याय एका मुसलमानाक बेगीन मरण आयलें आनी ताणें ताचे मुक्तीक फावो आशिल्लो नमाज केलोना जाल्यार ताचे लागशिल्लो मनीस ताचेखातीर नमाज म्हण्टा. जर कोणाय व्यक्तीची वायट आवतिकाय आसत जाल्यार ताची सुदारणा जावन ताका बरे दीस येवंचे हे खातिरूय ताचें बरें मागपी नमाज करतात. नमाज खंयचेय सुवातेर करप हें बरें कर्म. पूण मशिदींत केल्यार पुण्यसंचय चड जाता असो समज आसा. जण एका मुसलमान मनशान फांतोडेचेर नमाज म्हणूंक जाय. जो नमाज म्हणिना तो फकीर जांव येता. सोरो वा कसलीय भांग पियेवन नमाज म्हणपाक आडमेळी येतात, म्हणून सोरो पियेवप इस्लाम धर्मांत मान्य ना.

दर एके मशिदींत मुअझ्झिन नांवाचो एक धर्मसेवक आसता. तो नमाजाच्या वेळार 'आझान' म्हळ्यार साद घालून मशिदीच्या लागसार रावपी लोकांक प्रार्थना करपाक आपयता.

ह्या आझानाचो मंत्र असो आसा -

अल्ला - हु - अक्‌बर, अल्ला - हु - अक्‌बर ।

अशहदो अल् ला इलाह इल्लिल्लाह ।

अश्हदो अन्न मुहम्मदर्र सूलुल्लाह ।

हय्या अलस्सलाह । हय्या अलल् फलाह ।

अल्ला - हू - अकबर । ला इलाह इल्लिल्लाह ।

**अर्थ** - देव (अल्ला) सगळ्यांत श्रेश्ठ. अल्ला बगर दुसरो कोणूच पुज्य ना, अशी हांव गवाय दिता. हजरत मुहंमद हो अल्लाचो पैगंबर हाची हांव गवाय दिता. प्रार्थनेखातीर येयात. सत्कृत्याखातीर येयात. अल्ला सगळ्यांत श्रेश्ठ. अल्ला बगर दुसरो कोणूच पुज्य ना.

हो ताचो साद आयकून मशिदी कडेन रावपी मुसलमान लोक एकठांय जातात. उपरांत ते मक्केवटेन तोंड करून उबे रावतात आनी इकामत सुत्र म्हण्टात. उपरांत 'तक्बीर' तवृरीमा हो मंत्र म्हण्टकूच हाताचे आखाणे कानाक लायतात आनी सुबहान, तआव्वुझ आनी तस्मिया हीं सुत्रां म्हण्टात. इतलें जालें उपरांत कुराणाचो फतिहा नांवाचो पयलो अध्याय म्हण्टात. ह्यो सगळ्यो हालचाली ते उबे रावून करतात. उपरांत 'तक्बीर - इ - रूकूं' हो पाठ म्हण्टना धोंपरांचेर हात दवरून बागोवन उबें रावचें पडटा. 'तस्बीह - इ - रूकूं' होय पाठ तेच स्थितींत म्हणचो पडटा. हे पाठ म्हळे उपरांत ते परत उबे रावून कांय सुत्रां म्हण्टात. उपरांत धोंपरां, हात आनी कपल तेंकोवन सिजदा म्हळ्यार नमस्कार करतात आनी तींच सुत्रां परत म्हण्टात. मागीर धोंपरां तेंकोवन आनी पावलांचेर बसून एक मंत्र म्हण्टात आनी परत कपल जमनीक लावन नमस्कार करून सगळीं सुत्रां परत म्हण्टात. प्रार्थनेचो पयलो वांटो सोंपले उपरांत परत फतिहा म्हण्टात. उपरांत हे जमिल्ले लोक मुहमंद आनी ताच्या वंशजां खातीर प्रार्थना करतात. जेन्ना अल्लाकडेन दुसऱ्यांखातीर दयेची याचना करतात ताका सलाम अशें म्हण्टात. निमाणे कडेन अल्लाक शरण वचपाचो विधी (मुनाजात) जाता.

दिसांतल्यान पांच खेपे नमाज करूंक जाय अशें मुहंमद पैगंबरान सांगलां. फांतोडेर नमाज करतात ताका 'फजर' अशें म्हण्टात. दुसरो नमाज दनपारचो म्हण्टात. ताका 'जोहरची' नमाज अशें म्हण्टात. तिसऱ्या नमाजाक 'असर' अशें म्हण्टात. 'मगखिबची' हो चवथो नमाज सांजेच्या वेळार करतात. पांचवो नमाज रातचो म्हणपाचो आसता. ताका 'ईशाची' नमाज म्हण्टात. हांचे भायर जुम्मा म्हळ्यार शुक्राराचो नमाज, तशेंच रमजान, बकरी ईद ह्या खाशेल्या सुवाळ्यांक म्हणपाचे स्वतंत्र नमाज आसात.

- जी. एम. ए. शेख

**नम्माळवार :** (णववें शतमान).

तमीळनाडूंत 'अळवार' ह्या नांवान नामना आशिल्ल्या बारा वैशणव संतांतलो एक व्हड संत आनी कवी. ताचो जल्म तमीळनाडूंतल्या तिरुनेलवेली ह्या जिल्ह्यांतल्या तिरुकुरुहर (सद्याचें तिरुनगरी) गांवांत एका वेळ्ळाळ घराब्यांत जालो. ताच्या बापायचें नांव करिमारन आनी आवयचें नांव उदयनंगै. 'शठकोप दिव्यसूरि', परांकुश, बकुलाभरण, मारन आदी नांवांनीय ताची नामना आसा. ताचो बापूय पांड्य राजाच्या दरबारांत उच्च पदाधिकारी आशिल्लो. फुडें तो वलुदिवळैनाडू नांवाच्या राजाचो अधिपतीय जालो. ताच्या जल्माविशीं जायत्यो आख्यायिका रूढ आसात.

नम्माळवाराच्या नांवाचेर चार ग्रंथ उपलब्ध आसात ते अशे : तिरुविरुत्तम, तिरुवाचिरियम, पेरिय तिरुवन्तादी आनी तिरुवायमोळी. ताच्या तिरुविरुत्तम ह्या ग्रंथांत १०० पदां आसात. अशें म्हण्टात की हातूंत ऋग्वेदांतल्या तत्त्वविचारांचें सार आसा. तिरुवाचिरियम हातूंत सात पदां आसून हातूंत यजुर्वेदाचें सार आशिल्ल्याचें सांगतात. पेरिय तिरुवंतादी ह्या ग्रंथांतल्या सत्यांयशीं पदांनी अर्थवेदाचें सार सागलां असो समज आसा.

नाथमुनी हाणें णवव्या शतमानाच्या निमाणें संकलीत केल्ली पुराय आळवारांचीं पदां नालायिरम वा नालायिर-दिव्य-प्रबंधम (चार हजार दिव्य पदां) ह्या नांवान एकठांय केल्यांत. हातूंत 'तिरुवायमोळी' नांवाच्या चवथ्या भागांत नम्मळवाराची ११०२ पदां आसात. नालायिरम हो तमीळ वैशणवांचो पवित्र आनी पुज्य ग्रंथ आसलो तरी तातूंतल्या तिरुवायमोळी ह्या भागाक चड म्हत्व दितात. तत्वीक विचार आनी गूढ धर्मीक अनुभुती हे नदरेन ह्या पदांक खूबूच खाशेलेपण आसा. तमीळनाडूंत तिरुवायमोळीक 'सामवेदसार' वा 'द्राविडवेद' म्हण्टात. हांगाच्या वैशणव देवळांतल्यान नालायिरमांतलीं पदां मोटे भक्तीन पारंपरीक पद्दतीन म्हण्टात. तमीळांत तिरुवायमोळीचेर जायतीं भाश्यां बरयल्यांत. तेचपरी कन्नड, तेलुगू आनी संस्कृत भाशांनी ताचे अणकारय जाल्यात. नमाळवाराच्या काळांत व्हड-व्हड विद्वानांनी ताचें व्हडपण जाणून ताचो भोवमान केलो. जायत्या जाणांनी ताचे तोखणायेचे ग्रंथय तमीळांत बरयल्यात. नम्मळवाराक फकत ३५ वर्सांचेंच आयुश्य मेळ्ळें. पूण ह्या काळांत ताणें फुडले पिळगेक उपकारा पडपासारकें व्हड वैचारीक गांठवल तयार करून दवरलें. एक व्हड वैशणव संत आनी प्रतिभासंपन्न कवी म्हणून नम्मळवाराक तमीळांत आगळेंच स्थान आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**नरक :** पुराणांत वर्णिल्ली, पातकी जिवान मेलेउपरांत पातकांची ख्यास्त भोगपाची सुवात.

'पापभोगसस्थानविशेषे नरक' : = जंय पातकी कर्मांचो भोग भोगचो पडटा अशी खाशेली सुवात म्हळ्यार नरक, अशी ताची व्याख्या न्यायकोशांत सांगल्या. पुण्याचें फळ भोगपाखातीर जसो सर्ग, तशें पापाचें फळ भोगपाखातीर नरक नांवाचो लोक आसा अशी कल्पना स्मृतीशास्त्रांत केल्या.

मनुस्मृतींत (४.८८-९०) एकवीस तरेचे नरक सांगल्यात,ते अशे - तामिस्त्र, अंधतामिस्त्र, महारौरव, रौरव, नरक, कालसूत्र, महानरक, संजीवन, महावीची, तपन, संप्रतापन, संघात, सकाकोल, कुड्मल, प्रतिमूर्तिक, लोहशंकू, ऋजीष, पंथा, शाल्मली असिपत्रवन आनी लोहदारक.

याज्ञवल्क्यान नरकांचो आंकडो एकवीसच सांगला; पूण तांतलीं कांय नांवां मनुस्मृतींतल्या नांवांपरस वेगळीं आसात. महारौरव, नरक, महावीची, प्रतिमूर्तिक, ऋजीष, पंथा, लोहदारक ह्या मनून सांगिल्ल्या नरकांच्या जाग्यार याज्ञवल्क्यान वेगळीं नांवां सांगल्यांत, तीं अशीं - पूतिमृत्तिक, लोहितोद, सविष, अवीची, कुंभीपाक, महानिरय आनी महापथ.

शंकराचार्याच्या वेदांतसूत्रभाश्यांत नरकांचो आंकडो सात सांगला. भागवत पुराणांत तो अठ्ठावीस सांगला. तंत्रवाङमयांत १४० नरक सांगिल्ले आसून तातूंतले ३२ मुखेल आसात.

सुर्यपूत यम हो विंगड-विंगड नरकांचो अधिपती आसून, तो आपल्या दुतांसयत संयमिनी नांवाच्या नगरांत रावता आनी दुतांनी बांदून हाडिल्ल्या पातकी जिवांक तांच्या पातकांप्रमाण फावो ती ख्यास्त दिता. पातकी मनशाक नरकांत कसले हाल भोगचे पडटात ते विशीं भागवत पुराणांत फुडलें वर्णन आयलां -

यमदूत पातकी मनशाची कूड उज्यांत घालतात. केन्नाकेन्ना तांकां आपलें मास आपणाकच तोडून खावपाक लायतात. केन्ना एक जीव

दुसऱ्याच्या मासाचे कुडके तोडटा. ताच्यो आंतकडच्यो भायर काडून घोणी-गिदांक खावपाक घालतात. ताका हतयाच्या पांयांपोंदा चिड्डितात वा उदकाच्या फोंडकुलांत बुडयतात. ताचो कडेलोट करतात. वेगवेगळ्या यातनांक लागून जीव वळवळूंक लागता. मनशाचे कुडींत आसतना आपणें यज्ञ, दान, तप, ध्यान, पुजा आदी पुण्यकर्मां कांयच केलिंनात; देखून आपणाक ह्यो नरकयातना भोगच्यो पडटात, असो तो पश्चाताप करूंक लागता (भागवत पुराण, ५.२६). हाल भोगून जातकच ताचें पातक भरता आनी मागीर ताची नरकांतल्यान मुक्ती जाता. उपरांत तो, कांय पुण्य आसल्यार, ताचें फळ भोगपाखातीर सर्गांत वता वा मृत्युलोकांत पूर्वकर्मांप्रमाण तिर्यग्योनींत वा मनीस योनींत जल्म घेता.

मनीस देहांत येवन खंयचीं पातकां केल्यार लोक नरकांत वतात, ताची वळेरी पद्म पुराणांतल्या सर्ग खंडाच्या चवतीसाव्या अध्यायांत दिल्या. तिचो सार असो - फट उलोवपी, निंदा करपी, परद्रव्यांचो नाश करपी, जनावरांची हिंसा करपी, वेदांची निंदा करपी, प्रजेची राखण करिनाशिल्लो राजा, गिरेस्त आसून दान करिनाशिल्ले श्रीमंत लोक बी.

ऋग्वेदांत नरका सारीकिल्ले सुवातीक गहन स्थान अशें म्हळां आनी दुश्ट, असत्यवादी लोकांखातीर तें निर्माण जाल्याचें सांगलां (ऋग्वेद, ४.५.५) ही सुवात म्हळ्यार भूतला सकयल गुपाट काळोख आशिल्लो एक फोंड आसून, पातकी लोक यातना भोगपाखातीर थंय वतात, अशेय उल्लेख ऋग्वेदांत आयल्यात. अथर्ववेदांतय नरकयातनांचें वर्णन आयलां (५.१९). परलोक, यमलोक, नरकयातना ह्या कल्पनांचो विकास ब्राह्मणकालांत जालो. जण एकल्याक मरणाउपरांत परत जल्म घेवंचो पडटा आनी त्या वेळार ताचीं पाप-पुण्यां तोलून तेप्रमाण ताका ख्यास्त वा इनाम फावो जाता, अशें शतपथ ब्राह्मणांत म्हळां (११.२.७). पातकी मनशांचेर यमाचो अधिकार कसो चलता, हें कठोपनिषदांत विस्तारान सांगलां. पुण्याचें फळ सर्ग आनी पातकाचें फळ नरक ही कल्पना धर्मसूत्रांतय आयल्या.

मार्कंडेय, गरूड आदी पुराणांनी नरकयातनांचीं भयांकृत वर्णनां आयल्यांत. सुर्वेक नरक एकूच आशिल्लो. पूण पातकांचो आंकडो जसो वाडत गेलो, तसो नरकांचो आंकडोय वाडलो आनी तातूंतल्या यातनांचे प्रकारूय वाडले.

भोवतेक सगळ्या धर्मांनी नरक धरून परलोक, इहलोक हांची कल्पना मांडल्या. आधुनीक विज्ञान युगांतल्या भौतीकवादाच्या प्रभावाखाला निर्माण जाल्लो विचार, इहलोक सोडून आनी खंयच्या विश्वाक मानपाक तयार ना. नरक ही कल्पना दुसऱ्या विश्वासंबंधी आशिल्ल्यान आनी विज्ञानवादी दुसरें विश्व ना मानता जाल्ल्यान, नरक ही एक अस्तीत्वांत नाशिल्ली कल्पना अशें तांचें मत आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**नरकासूर** : एक दुश्ट राकेस. भूतान वाठाराचे दक्षिणेकडेन प्राग्जोतिश नगरांत नरकासूर नांवाचो दुश्ट राकेस राज्य करतालो. नरक म्हळ्यार पापी जिवांक मरणा उपरांत फावो जाल्ली क्लेश-पिडा करपी ख्यास्तीची सुवात. आपल्या सुवार्थी हेताक लागून सगळ्या जिवांक जितेपणांतच नरकयातने सारकी पिडा दिवपी हो असूर राकेस नांवाप्रमाण खरोच नरकासूर आशिल्लो. ताचो जल्म भुंयेपसून जाल्लो देखून ताका भौमासुरूय म्हण्टाले. भूदेवी कडल्यान ताका वैष्णवास्त्र नांवाचें एक व्हड अस्त्र मेळिल्लें. ह्या अस्त्राच्या बळार तो कोणालीय चली वा बायल बळान व्हरून तिचो भोग घेतालो. अशीच विश्वकर्म्याची सुंदर चली बळान व्हरून ताणें तिचेर बलात्कार केलो. वैष्णवास्त्राच्या बळार ताणें इंद्राचेर घुरी घालून ताचो ऐरावत (हत्ती) आनी वाऱ्याच्या वेगान धांवपी घोडोय मेळयलो. हेर यज्ञांच्यो आहुती घेवपाचो अधिकार आशिल्ले देवूय ताका खूब भियवंक लागले. तो इतलो कामी आशिल्लो की दर दिसा ताका नव्यो-नव्यो सुंदर चलयो लागताल्यो. देव, गंधर्व आनी मनीस जातींतल्यो सुंदर चलयो व्हरून ताणें आपल्या जनानखान्यांत दवरिल्ल्यो. ह्या चलयांचो आंकडो १६ हजारां मेरेन पाविल्लो.

ह्यो सगळ्यो चलयो नरक यातना भोगताल्यो. निमाणें इंद्रान श्रीकृष्णाची प्रार्थना करून नरकासूराक मारपाक सांगलें.

आश्विन वद्य चतुर्दशी दिसा श्रीकृष्णान नरकासूरा वांगडा झूज करून सुदर्शनान ताचो गळो कापलो. नरकासुराच्या वधा उपरांत १६ हजार बायलो मेकळ्यो जाल्यो खऱ्यो पूण त्यो पतितूच आशिल्ल्यो. श्रीकृष्णान तांकां सगळ्यांक व्हरून पावन केलीं. अशे तरेन नरकासुराच्या पापी कर्मान पतित बायलांचो समाजीक प्रस्न श्रीकृष्णान सोडयलो.



ह्या पुराणीक घडणुकेची याद म्हणून, गोंय धरून भारतांतल्या कांय वाठारांनी, नरकासूर वध ही कार्यावळ करतात. दिवाळे आदलेरातीं, नरकासुराचे प्रतिमेची मिरवणूक काडटात आनी फांतोडेर, श्रीकृष्णाचे प्रतिमेकडसून तिचें दहन घडोवन हाडटात. उप्रांत न्हावन धुवन दिवाळेचो फळार खावपाची परंपरा आसा.

नरकासुराचे मिरवणुकेरातीं, रातभर वेगवेगळ्यो भौशीक मनोरंजनाच्यो कार्यावळी चलतात. हालींसारा, गोंयांत नरकासुरांच्यो प्रतिमा सजोवपाच्यो सर्ती घडोवन हाडटात. तेखातीर पुरस्कृत अशीं बक्षिसाय दिवप जाता. कांयकडेन ह्या सर्तीनी इतलो भपको आसता की मूळ सांस्कृतीक उद्देश थंय लिपून वता.

– वा. ल. वझे

**नरनारायण** : विष्णुच्या चोवीस अवतारांतलो एक अवतार. नरसिंह अवताराच्या मानवी भागापसून नर आनी शींवाच्या तोंडापसून नारायण जालो अशें कलिकापुराणांत म्हळां. तेच फुडें चाक्षुष मन्वन्तरांत धर्म आनी

दक्षकन्या मूर्ती हांचे पूत जाले आनी ते विष्णुचे ऋषीरुपी अवतार अशें भागवत पुराणांत म्हळां. जल्मले उपरांत ते दोगय शांती मेळोवपाखातीर हिमालयांतल्या बदरिकाश्रमांत तप करूंक गेले. तांणी एक हजार वर्सां खर तप केलें. तें पळोवन इंद्र भियेलो आनी ताणें तपांत बादा हाडपा खातीर सोळा हजार अप्सरा धाडल्यो. तें पळोवन अप्सरा निर्माण करपाची तांक आपलेकडेन आसा हे दाखोवंक नारायणान आपले मांडयेर थापट मारून सोबीत अशी उवर्शी नांवाची अप्सरा तयार केली आनी तिका इंद्राकडेन धाडली. उरिल्ल्यो सगळ्यो अप्सरा नारायणाक शरण गेल्यो आनी ताणीं ताका आपल्याक आपणावपाक सांगलें. तेन्ना फुडल्या (कृष्ण) अवतारांत आपूण तुमचेकडेन लग्न जातां अशें ताणें तांकां उतर दिलें. फुडल्या अवतारांत नरनारायण अर्जून आनी कृष्ण हांच्या रुपांत जल्माक आयलो. कृष्ण सोळा हजार बायलांकडेन लग्न जालो.

एक फावट हिरण्यकश्यपूचो पूत प्रल्हाद सैन्य घेवन वता आसतना नरनारायणाच्या आश्रमांत पावलो. आश्रमांत आयुधां पळोवन ताणें तांची टिंगल केली. ताचेवयल्यान व्हड झूज सुरू जालें. निमाणें विष्णुन आपलें खरें रूप दाखोवन तें झूज थांबयलें.

नर आनी नारायण हे कल्पनीक अवतार आसून नारायण हें व्यक्त न जावपी निर्गूण तत्त्व आनी नर हें व्यक्त जावपी सगूण तत्त्व अशें महाभारतांत म्हळां. नारायणाच्या भक्तिसंप्रदायाचो पाणिनिनय उल्लेख केल्लो आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**नरभक्षण :** मनशान मनशाचें मास खावप हाका नरभक्षण अशें म्हण्टात. 'अँथ्रोपोफॅगी' ही मूळ ग्रीक संज्ञा नरभक्षितावाचक आसून, तिचेवयल्यान पुर्विल्ल्या ग्रीक काळांतूय मनशाचें मास खावपाची चाल आसुंये, अशें दिसता. इंग्लीशींतली 'कॅनिबलिझम' ही संज्ञा वॅस्ट इंडीझांतले मास खावपी कॅरिब जमातीच्या नांवावयल्यान स्पेनीश भाशेवतीन आयल्या.

हीरॉडोटस ह्या पुविल्ल्या ग्रीक साहित्यांत हे रुढीचें वर्णन आयलां. नरभक्षण हें सामान्यपणान त्या त्या प्रसंगांचेर म्हळ्यार नरबळीच्या सुवाळ्यांत, धरून हाडिल्ल्या दुस्मानांचे हत्ये वेळार वा मंत्रतंत्र करतना करताले अशें अभ्यासक मानतात.

दक्षिण अमेरिकेंतलो उत्तरेकडलो प्रदेश, आफ्रिकेंतले काँगो न्हंयेचें ईशान्य देगण आनी न्यू गिनीचो वाठार, सुमात्रा जुंवो, पॅसिफिक महासागरांतलो फिजी आनी हेर जुंवे ह्या प्रदेशांनी कांय आदीम जमातींनी मनशाचें मास खावपाची चाल आशिल्ली अशें अभ्यासकांचें मत आसा. मेलानीशियांत, चड करून फिजी जुंव्यांनी ही चाल खरपणान चलताली. तेच भाशेन दक्षिण पॅसिफिक जुंवे, चड करून पॉलिनेशिया, इस्टर जुंवो, न्युझीलंड, सामोआ, टाँगा ह्या प्रदेशांनीय नरभक्षणाची चाल आशिल्ली. न्युझीलंडातले माओरी जमातींत नरबळी आनी नरमासभक्षण ह्यो प्रथा आशिल्ल्यो. दुस्मान, तारूं बुडिल्ले निराश्रित भोंवडेकार आनी हेर परकी लोक हे सगळे हे जमातीचे भकीक पडटाले. ऑस्ट्रेलिया, मॅले द्वीपकल्प आनी तातूंतलो न्यू गिनी जुंवो, सुमात्रा, आर्फिकेंतलो विषुववृत्तीय प्रदेश, गिनीची दर्यादेग, दक्षिण अमेरिकेंतलें उत्तरेकडलें गायाना, कोलंबिया, वॅनेझुएला ह्या देशांनी आनी वॅस्ट इंडिझ ह्या प्रदेशांतल्या कांय आदीम जमातींनी नरमासभक्षणाची चाल आशिल्ली.

पुर्विल्ल्या काळांतल्या गुहांनी जनावरांच्या हाडांच्यो राशी मेळटात तांचेवयल्यान आदिमानव हो मासभक्षक आशिल्लो अशें समजता. पीकिंग – मनीस (सिनॅन-थ्रोपस पीकिनेन्सिस) हो मनशाचो आदीम अवतार, ताच्या पीकिंग लागसारचे गुहेंत मनशाच्यो खड्ड्यो मेळ्यात. ऑरिग्नेशियन काळांत आनी उपरांतच्या क्रिस्तापयलीं दुसऱ्या शेंकड्यामेरेन मानवी अस्थींचे जे पुरावशेश मेळटात, तांचेवयल्यान, मध्य युरोपांत तशेंच स्वित्झर्लंड आनी बोहीमियांत नरभक्षणाची चाल आसुंये, अशें दिसता.

नरभक्षण केन्ना आनी कशें सुरू जालें हाचेविशीं म्हायती मेळना. मनशाच्या मासाची रूच, आहारांतल्या वेगवेगळ्या रुचींची गोडी, आदीम जमातींच्यो जादू आनी हेर धर्माविशींच्यो कल्पना, दुस्मानाविशींची वीट वा दुस्मानांचें बळगें आत्मसात करपाची एक संकेतीक रीत ह्या विंगड-विंगड कारणांनी नरमास भक्षणाची चाल सुरू जाली आसूं येता.

नरमासभक्षणाच्यो विंगड-विंगड प्रथा मेळटात. ब्राझीलाचे दर्यादेगेर आशिल्ल्या जमातींतले लोक नरबळीक कांय म्हयने पोसतात, थंयचेच एके थळावे चलयेकडेन ताचें लग्न करतात, ताची हत्या करपी मनशावांगडा ताका झुजयतात आनी निमाणें ताका मारतकच ताच्या रगतांत सगळे जाण बोटां बुडयतात. दुसरे एके चालींत, दुस्मानाचे शरिरीक अवयव तोडून खावप हो एक प्रतिकात्मक असो विधी आसतालो. जैतवंत दुस्मानाक बळी दिवन ह्या बळीचें रगत आनी मास खावप अशीय एक चाल कांय जमातींनी आशिल्ल्याचें दिसता. मनशाचें मास शिजोवपाचीं खास वेगळीं आयदनां आसतालीं. दुस्मानाच्या शरिराचो थोडो कुडको खाल्यार दुस्मानाचें बळगें तशेंच मंत्रसामर्थ्य प्राप्त जाता, असोय समज आशिल्लो. उदेंत आफ्रिकेंतल्यो कांय आदिम जमाती, आपल्या मेल्ल्या मनशाची याद म्हणून ताचें मास खाताले. आर्विल्ल्या काळांत ही चाल सामकी बंद जाल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**नरमेध :** (पळेयात बळी).

**नरसिंह :** विष्णुच्या दशावतारांतलो चवथो अवतार. वैशाख शुध्द चतुर्दशीच्या दिसा हिरण्यकश्यपूचो नाश करपाखातीर देवांचे सांगणेवयल्यान विष्णुन हो अवतार घेतलो. ह्या अवताराचें रूप अग्नी पुराणांत फुडलेप्रमाण सांगलां –

सिंहस्य कृत्वा वदनं मुरारिः सदा करालं च सुरक्तनेत्रम् ।
अर्धं वपुर्वै मनुजस्य कृत्वा ययौ सभां दैत्यपतेः पुरस्तात् ।

**अर्थ** – विष्णुन शींवाचें भयांकृत रूप धारण केलें. ताचे दोळे तांबडेगूंज आशिल्ले. ताचें अर्दे शरिर मनशाचें आशिल्लें. अशें रूप घेवन तो दैत्य राजाच्या दरबारांत गेलो.

विष्णुक हो अवतार किद्याक घेवंचो पडलो, हाचे विशीं भागवत पुराणांत एक कथा दिल्या, ती अशी – हिरण्यकश्यपू नांवाच्या दैत्यान हजारांनी वर्सां तप करून ब्रह्मदेवाक प्रसन्न करून घेतलो आनी ताचे कडल्यान अमरत्व मागून घेतलें. हो वर मेळटकच हिरण्यकश्यपू उन्मत्त जालो आनी देव, ऋषी आनी ब्राह्मण हांकां त्रास दिवपाक लागलो. ताचो पूत प्रल्हाद हो विष्णुचो भक्त आशिल्लो. देखून तो आपल्या पुतचोय छळ करूंक लागलो. एक दीस हिरण्यकश्यपून प्रल्हादाक विचारले, 'तुजो विष्णु ह्या खांब्यांत आसा?' ताचेर प्रल्हादान 'हय' म्हळें. हिरण्यकश्यपून त्या खांब्याचेर खोंट मारली. त्याच खिणाक खांब्यांतल्यान विष्णु नरसिंहरुपान

प्रगट जालो. ताणें हिरण्यकश्यपूक आपल्या तीक्ष्ण नाखटांनी फोडून मारलो.

हिरण्यकश्यपूचो वध करतकच नरसिंह बेभान जालो, तेन्ना शिवान शरभाचो अवतार घेवन ताचो वध केलो, अशें लिंग पुराणात सांगलां (१.९५). हिरण्यकश्यपूचो वध करून नरसिंह दक्षिणेंत गौतमीचे (गोदावरीचे) उत्तर देगेक आयलो आनी थंय ताणें दंडकाधिपती अंबर्याचो वध केलो, अशी कथा ब्रह्म पुराणांत आयल्या. तैत्तिरीय आरण्यकांत (१००१) ह्या नरसिंह अवताराविशीं उल्लेख आसून, तातूंत नृसिंह गायत्री नांवाचो एक मंत्रूय दिला. नृसिंहतापिनी नांवाचें एक उपनिषद आनी नृसिंहपुराण नांवाचें एक उपपुराणय नरसिंहाकडेन संबंदीत आसा.



नरसिंहाचें मुर्तीध्यान कशें करचें, हें हेमाद्रीन फुडल्या श्लोकांत सांगलां-

पीनस्कन्धकटिग्रीवः कृशमध्यः कृशोदरः ।
सिंहाननो नृदेहश्च नीलवासाः प्रभान्वितः ॥
आलिढस्थानसंस्थानः सर्वाभरणभूषितः ।
ज्वालामालाकुलमुखो ज्वालाकेसरमण्डलः ॥
हिरण्यकशिपोर्वक्षःपाटी यन्नखरैः खरैः ।
नीलोत्पलाभः कर्तव्यो देवजानुगतस्तथा ॥
हिरण्यकशिपुर्दैत्यस्तमज्ञानं विदुर्बुधाः ।

**अर्थ** – खांदे, कमरा सकयलो भाग आनी मान बळिश्ट आशिल्लो, कमर आनी पोट बारीक आशिल्लो, शीवाचें तोंड आनी मनशाचें धड आशिल्लो, निळें वस्त्र न्हेशिल्लो, तेजिश्ट, आलीढ अवस्थेंत बशिल्लो, सगळ्या अलंकारांनी युक्त, जाच्या तोंडाभोंवतणीं उज्याच्यो ज्वाला आसात आनी जाची आयाळय ज्वाळांचीच आसा, असो आनी जाणें तीक्ष्ण नाखटांनी हिरण्यकश्यपूचें हड्डें फोडलें असो नरसिंह करचो. तेचप्रमाण नीलकमळा प्रमाण कांती आशिल्लो आनी नरसिंहाचे मांडयेर आशिल्लो हिरण्यकश्यपू दैत्य दाखोवचो. तत्त्वगिन्यानी लोक हिरण्यकश्यपूक अज्ञान अशें समजतात.

भारतांत कितल्याशाच सुवातींनी नरसिंहाच्यो मुर्ती आसात. ह्या मुर्तींनी सामान्य, कैवलवैन, गिरिजवैन, यानकवैन, स्थौणवन आनी विदरणाशिर अशे मूर्तीशास्त्रतले जायते पोटभेद आसात. हिरण्यकश्यपूचें पोट फोडपी नरसिंहमुर्ती खूब आसात. अश्टभुज यानक नरसिंह वेरूळच्या लेण्यांत दिश्टी पडटा. पेड्डमुडियमच्या फातरापटच्यांत आशिल्लो नरसिंह उबो आनी दोन भुजांचो आसा. हळेबीडाक शिंवासनाचेर बशिल्लो नरसिंह आसा. चिंतळपुडीक योगासनांत बशिल्ली नरसिंहाची मूर्त आसा. विक्रमपूर नगरांतूय एक सामान्य नरसिंहमुर्ती आसा.

नरसिंहरूप हें खरें म्हळ्यार विष्णुचें उग्र रूप. पूण वैश्णव कलाकार मात नरसिंह विष्णुचें रूप मोगाळ आनी सादें दाखयतात. गुप्त काळांतल्या कांय भाजिल्ल्या मातयेच्या मुद्रांचेर अशें रूप दिश्टी पडटा. देवगढच्या गुप्त काळांतल्या देवळाच्या एका कोनशांत नरसिंहाची मूर्त आसा; तिची मुद्राय शांत आसा. मद्रासची लक्ष्मीनरसिंहाची ब्राँझ प्रतिमा ह्या क्रूर अवताराचें शांत रूप दाखयता.

लक्ष्मी-नरसिंह हें कांय घराण्यांचें कुलदैवत. नरसिंह हे विजयनगरच्या राजवंशाचें कुलदैवत आशिल्लें.

– कों. वि. सं. मं.

**नरसिंह देवस्थान :** (पळेयात लक्ष्मी नृसिंह).

**नरसिंहसरस्वती :** दत्तात्रयाचो अवतार समजतात असो एक व्हड सत्पुरूस. हाका दत्तात्रयाचो दुसरो अवतार आनी श्रीपाद श्रीवल्लभाचो निमाणो अवतार मानतात. 'गुरूचरित्र' ह्या ग्रंथावयल्यान ताच्या चरित्राची म्हायती मेळटा. दत्तात्रयाचो पयलो अवतारी पुरूस श्रीपाद श्रीवल्लभ आशिल्लो. दत्तात्रयस्वरूप अवधुताचे कृपेन श्रीपाद श्रीवल्लभाचो जल्म जालो आनी होच फुडल्या जल्मांत नरसिंहसरस्वती म्हणून जल्मलो. नरसिंहसरस्वतीचो जल्म काळे नांवाच्या वसिष्ठगोत्री वाजसनेयी ब्राह्मण घराण्यांत जालो. वऱ्हाडांतलो लाडकारंजे हो ताचो जल्मगांव. ताच्या बापायचें नांव माधव आनी आवयचें नांव अंबाभवानी. ताचें मूळ नांव शालग्रामदेव. पूण नरहरी ह्या नांवानच ताका चड वळखताले. नरहरीच्या चरित्राविशीं जायत्यो आख्यायिका सांगतात. तातूंतली एक अशी – नरहरीक सात वर्सां जालीं तरी उलोवपाक येनासलें. तें पळोवन ताच्या आवय बापायक भंय दिसलो. ताचेर उपाय म्हणून ताणीं सातव्या वर्सा ताची मूज बांदपाचें थारायलें. मूजीच्या संस्कारांत गायत्रीमंत्राचो उपदेश जातकच तो जेन्ना आवयकडेन भिक्षा मागूंक गेलो तेन्ना वेदवाणीचो उच्चार करून ताणें भिक्षा मागली आनी तेन्नासावन ताका उलोवंक येवंक लागलें.

पिरायेच्या आठव्या वर्सा ताणें घराचो त्याग केलो आनी तो काशीक गेलो. थंय ताणें विश्वेश्वराची उपासना, योगसाधना आनी ब्रह्मचर्य व्रताक पाळो दिलो. तेन्नाच शंकराचार्य प्रणीत शृंगेरी पिठाचे परंपरेंतल्या कृष्णसरस्वती नांवाच्या एका जाण्टया संन्याश्याकडेन ताची भेट जाली. ताचे कडल्यानच ताणें संन्यासाची दीक्षा घेतली. ताचेउपरांत नरसिंहसरस्वती ह्या नांवान ताका नामना मेळ्ळी. संन्यास घेतलेउपरांत काशीक ताणें ज्ञानदानाचो वावर केलो. जायत्या जाणांक अध्यात्ममार्गाचो उपदेस केलो. तशेंच वर्णाश्रमधर्माचीं कर्तव्यां समजावन सांगलीं. थंयच ताणें शिश्यांचे पंगडूय तयार केले. ह्या पंगडावांगडा तो बदरिकेदाराचे यात्रेक गेलो. वाटेर माधव नांवाच्या एका ब्राह्मणान ताचें शिश्यत्व आपणायलें. होच ताचो पयलो

शिश्य. तेभायर बालकृष्णसरस्वती, कृष्णसरस्वती ह्या सारके आनी स शिश्य ताका मेळ्ळे. फुडें आपली केदारयात्रा पुराय जातकच सुमार ३० वर्सांनी तो महाराष्ट्रांत आयलो. सुर्वेक तो करंजनगरांत आयलो. थंय तो आपल्या आवयबापायक मेळ्ळो. थंयच्यान त्र्यंबकेश्वर, नासिक, परळी वैजनाथ, कोल्हापूर, औदुंबर आदी क्षेत्रांक ताणें भेटी दिल्यो. परळीक तो एक वर्सभर एकांतवासांत राविल्लो. थंयसावन चार म्हयने तो औदुंबर ह्या क्षेत्रांत रावलो. थंयसावन फुडें तो कृष्णा-पंचगंगा संगमाचेर आशिल्ल्या अमरापूर ह्या गांवांत आयलो. थंय तो बारा वर्सां रावलो. तेन्नाच्यान ह्या गांवाक *'नरसोबाची वाडी'* ह्या नांवान वळखूंक लागले. उपरांत थंय दत्तात्रयाच्या पादुकांची स्थापना करून भीमा-अमरजा ह्या न्हंयांच्या संगमाचेर आशिल्ल्या गाणगापूर ह्या गांवांत ताणें २४ वर्सां वास्तव्य केलें. थंय ताणें जायते चमत्कार करून दाखयल्ल्याचें सांगतात. निमाणें श्रीशैलम लागसल्ल्या पाताळगंगेच्या प्रवाहांत ताणें जलसमाधी घेतली.

गुरूचरित्रांत दत्ताची उपासना करपाक खंयच प्राधान्य दिल्ल्याचें मेळना. पूण कर्नाटक - महाराष्ट्रांत नरसिंहसरस्वती पसुनूच दत्तसंप्रदायाची सुरवात जाली अशें मानतात. नरसिंहसरस्वतीन कितल्याशाच जाणांक अध्यात्माची दिक्षा दिली. कश्ट आनी दगदगांनी पिडिल्ल्या लोकांचें दुःख्ख ताणें पयस केलें. त्या काळांत मुसलमानी धुरयांक लागून जे लोक त्राशिल्ले तांकां ताणें धीर दिलो. माधवसरस्वती, सायंदेव, नंदी कवीश्वर, नरहरी कवीश्वर, सिध्दसरस्वती, बीदरचो यवनराजा दुसरो अल्लाउद्दीन हे ताचे नामनेचे शिश्य.

– कों. वि. सं. मं.

**नरसोबाची वाडी :** महाराष्ट्र राज्यांतलें नामनेचें तीर्थक्षेत्र. कोल्हापूर जिल्ल्याच्या शिरोळ तालुक्यांत शिरोळाचे दक्षिणेक सुमार पांच किमी. अंतराचेर, मिरज-कोल्हापूर रेल्वेमार्गावयल्या जयसिंगपूर स्थानकाचे आग्नेयेक सुमार १३ किमी. अंतराचेर कृष्णा-पंचगंगा न्हंयांच्या संगमाचेर हें तीर्थक्षेत्र आसा. ह्यो पंचगंगा म्हळ्यार शिवा, भद्रा, भोगावती, कुंभी आनी सरस्वती. श्री दत्तगुरूचो दुसरो अवतार समजुपांत येवपी *नरसिंहसरस्वती* ह्या क्षेत्रांत सुमार १२ वर्सां रावलो तेन्नाच्यान ह्या थळाक वाडी नरसिंह, वाडी नरसोबा, नरसोबावाडी, नरसोबाची वाडी अशीं नांवां पडलीं. तशें पळोवंक गेल्यार नरसिंहवाडी हें संस्थान ५०० वर्सां पयलीं नाशिल्लेंच. लागशिल्ल्या शिरोळ गांवची ही मसणवट. कुरूंदवाड, शिरोळ आनी अमरापूर हे मूळ गांव आशिल्ले. पूण श्रीदत्तगुरूच्या राबित्यान वाडी आनी भोंवतणचो वाठार पावन जालो आनी मसणवटीचें रुपांतर एका स्थानांत जालें. हांगाच योगी रामचंद्रमहाराज, नारायणस्वामी महाराज, कृष्णानंदस्वामी, श्रीगोपाळस्वामी, मौनी स्वामी, ब्रह्मानंद स्वामी आनी इ.स. १८५४ वर्सा कोंकण सिंधुदुर्ग जिल्ल्यांतल्या माणगांवांत अवतार पाविल्लो श्री वासुदेवानंद सरस्वती (टेंब्ये स्वामी) अशा म्हान योग्यांची ही तपोभूंय म्हणून नामनेक पावल्या.

गुरूचरित्रांत अमरापूर ह्या नांवान ह्या क्षेत्राचो उल्लेख मेळटा. तशेंच औदुंबर आनी नरसोबावाडींत नरसिंहसरस्वतीन कितल्याशाच भक्तांच्यो इत्सा पुराय केल्यो, रोग - पिडा पयस केली हेविशींच्यो कथा ओविबद्द रुपांत श्री गुरूचरित्रांत वाचूंक मेळटात. श्रीनरसिंहसरस्वतीन समाजांतल्या सगळ्या घटकांक एकठांय हाडले.

अली आदिलशहा बादशहान हांगा श्रींचें देवूळ बांदलें. हें मुसलमानी घाटणेचे मशिदीसारकें आसा. तेचपरी विजापूरच्या कोटांत लेगीत बादशहान श्री दत्तमंदीर बांदलें. तशेंच, कृष्णेचे पलतडीन आशिल्ले औरवाड आनी गौरवाड हे गांव ताणें देवस्थानाचे पुजेखातीर दान दिले. ह्या क्षेत्रांत बारा वर्सां रावले उपरांत हांगा दत्तपादुकांची स्थापना करून नरसिंहसरस्वती गाणगापूराक गेलो. दत्तपादुकांचें देवूळ कृष्णा न्हंयेच्या घाटार आसा. हो घाट संत एकनाथान बांदलो असो उल्लेख मेळटा. संत तुकाराम महाराजय हांगा आयिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. महाराष्ट्राभायर गोंय, कर्नाटक, गुजरात आनी भारतांतले भावीक लोक ह्या तीर्थथळाक भेट दिवपाक येतात. भूतबादा आनी कुश्ठरोग निवारण जातलें हे समजुतीन जायते लोक हांगा येवन रावतात. हें तीर्थथळ आशिल्ल्यान कांय लोक मेल्ल्या मनशांच्यो अस्थी विसर्जन करपाक वा पींडदान दिवपाकय हांगा येतात.

मध्यानेचेर हांगा पादुकांची पुजा जाता, तशेंच दनपारची म्हापुजा, रातची धुपारत आनी पालखी आसता. म्हापुजेच्या वेळार रूद्रवर्तनां, श्रीसुक्त, दनपारां ३ ते ४ पवमान आनी रातच्या पालखी सुवाळ्याक पुजारी मंडळींतल्या जाणटे पिळगेंतले म्हालम्हातारे धरून नोकरी करपी पदवीधर तरणाटे आनी माणकुले बटू व्हडा उमेदीन हांगा हजेरी लायतात.

हांगा चातुर्मास सोडल्यार दर शेनवाराक श्रींची पालखी काडटात. दत्तजयंती (मार्गशीर्ष पुनव) आनी गुरूदुवादस (आश्विन वद्य दुवादस) बी उत्सव हांगा व्हड प्रमाणांत मनयतात. कांय लोक हांगा येवन गुरूचरित्राचीं पारायणां आनी सप्ता करतात. हांगा दत्तात्रयाचें आनी नारायणस्वामीचें अशीं दोन व्हड देवळां आसून वासुदेवानंद सरस्वती हाचें स्मृतीमंदीर, रामचंदयोगीची समाधी, नारायणस्वामी हांचीं स्मारकां आसात. हांगा अमरेश्वराचें एक पुर्विल्लें देवूळ आसा. तशेंच, ह्या थळांत शुक्ल तीर्थ धरून आठ तिर्थां आसात.

– दत्तदास घाग

**नरहरी सोनार :** (इ. स. १३ वो शेंकडो).

एक मराठी संतकवी. बापायचें नांव दीनानाथ. हो मुळांत पंढरपूरांत रावपी. थंयसावन शेटपणाचो वेवसाय करपाक तो देवगिरीक गेलो. पूण रोखडोच परत पंढरपूराक परतलो. हांगाच ताणें आपल्या शेटपणाच्या वावराक सुरवात केली. हो पयली खांपो शिवभक्त आशिल्लो. पूण उपरांत विष्णु भक्त जावन विठ्ठलभक्ती करपाक लागलो. हो बदल ताच्यांत कसो जालो हेविशीं एक दंतकथा सांगतात ती अशी :

एका सावकारान पंढरपूरच्या विठ्ठलाक नवस केलो की ताका जर चलो जालो जाल्यार तो विठ्ठलाक भांगराची सरपळी घालतलो. फुडें ताका चलो जालो आनी नवस फेडपाक तो पंढरपूराक गेल्लेकडेन नरहरीचें नांव आयकून सरपळी करून घेवपाक तो ताचेकडेन गेलो. नरहरीन केल्ली पयली सरपळी मोटवी जाल्ल्यान ताणें दुसरी सरपळी लांब करून घेतली. त्या वेळार ती मातशी सदळ जाल्ल्यान सावकारान नरहरीकूच विठ्ठलाच्या कमराचें माप घेवपाक सांगलें. शिवभक्त आशिल्यान नरहरीन येवपाक पयलीं न्हयकार दिलो. पूण उपरांत सावकारान सामकोच आग्रो केल्ल्यान दोळ्यांक पट्टी बांदून तो देवळांत गेलो. माप घेवपाखातीर विठ्ठलाचें कमर सांसपितना नरहरीक शिवाची मूर्त सांसपिल्ल्याचें जाणवपाक लागलें. दोळे सोडले उपरांतूय तोच अणभव आयिल्ल्यान ताच्या मनांतलो शिव आनी

विष्णु विशींचो दुजोभाव ना जालो. ह्या साक्षात्कारा उपरांत नरहरीन आपली उरिल्ली जीण विठ्ठलभजनांत घालयली.

नरहरीन जायते अभंग बरयल्यात. नरहरीच्या एका अभंगांत गौबीनाथ अशें ताच्या गुरूचें नांव मेळटा. हरीहरैक्याची भावना उक्तावपी नरहरीचो एक अभंग असो –

शिव आणि विष्णु एकचि प्रतिमा ।
ऐसा ज्याचा प्रेमा सदोदित ॥
धन्य ते संसारी नर आणि नारी ।
वाचे हरहरी उच्चारिती ॥
नाही पै तो भेद अवघाचि अभेद ।
द्वेषाद्वेष संबंध उरी नुरे ।
सोनार नरहरी न देखे पै द्वेत ।
अवघा मूर्तिमंत एकरूप ॥

– कों. वि. सं. मं.

## नरेंद्र : (जल्म : तेरावो शेंकडो).

महानुभाव पंथीय मराठी कवी. महानुभाव पंथियांच्या 'साती ग्रंथां'त आस्पाविल्ल्या 'रुक्मिणीस्वयंवर' ह्या काव्यग्रंथाचो कर्तो. पोरण्या पोथयांनी नरेंद्र ह्या रुपाप्रमाण नरींद्र हेंय रूप मेळटा. महानुभाव साहित्यांत 'नरींह' आनी नरेंद्र ह्या दोनूय नांवांनी ह्या कवीचो उल्लेख आयला.

नृसिंह आनी शैल्य हे नरेंद्राचे दोन भाव लेगीत कवीच आशिल्ले. ते देवगिरीच्या रामदेवराव यादवाचे आश्रित आशिल्ले. नरेंद्राचें उपनांव अयाचित.

रुक्मीणी स्वयंवराविशीं एक आख्यायिका आसा ती अशी : नरेंद्रान कृष्णचरित्रांतल्या रुक्मिणी स्वयंवराच्या प्रसंगाचेर १८०० ओवयांचें काव्य बरयलें. हें काव्य राज्यसभेंत वाचून दाखयतना ३१२ वे ओवयेमेरेन काव्य-वाचन जालें. इतल्यांत त्या काव्यांतल्या काव्यसौंदर्यान मुग्ध जावन रामदेवराव यादवान सांगलें की ह्या काव्याचे निमाणेकडेन आपलें नांव बरोवंचें. नरेंद्राक तें मानवलेंना. पूण राजाचे आज्ञेमुखार ताचो नाइलाज जालो. ताणें राजाक सांगलें हो ग्रंथ अशुध्द आसा, फाल्या सकाळीं निवळावन दितां, आनी ताणें एके रातीपुरतो तो ग्रंथ घरा व्हेलो. आपल्या दोनूय भावांच्या आदारान रातोरात जाता तितल्यो ओवयो बरोवन काडल्यो. दुसरे दिसा सकाळीं रामदेवरावाले राजदूत येवन मूळ काव्य घेवन गेले. नरेंद्राक वायट दिसलें. बरोवन काडील्लें ८७९ ओवयांचें अर्दवट काव्य घेवन नरेंद्र, महानुभाव पंथांतल्या आचार्य नागदेव हाचेकडेन गेलो आनी ताचेकडल्यान संन्यास दिक्षा घेतली.

नरेंद्राचो मूळ ग्रंथ १,८०० ओवयांचो आशिल्लो, अशें स्मृतिस्थळा वयल्यान कळटा. पूण महानुभाव महत श्रीकृष्णराजदादा पारिमांडिल्य हाचेकडल्यान मेळिल्ली रुक्मिणीस्वयंवराची पुराय पोथी पयली श्रीकृष्णदास महानुभाव (हैदराबाद) हाणें १९७० आनी उपरांत सुरेश डोळके हाणें १९७१ वर्सा मूळ स्वरुपांत उजवाडायली. तातूंत २,९३६ ओवयो आसात. पूण ह्यो ओवयो कशो आनी कोणें वाडयल्यो असो प्रस्न उपरासता.

नरेंद्राचें रुक्मिणीस्वयंवर हें आद्य महानुभावीय काव्यांतलें सगळ्यांत श्रेश्ठ आसून, हें काव्य विदग्ध संस्कृत महाकाव्यांच्या श्रेणीतलें. ताची कथा चड करून भागवतांतली आसली, तरी ते कथेचेर महाकाव्याचो साज चडोवपाखातीर नरेंद्रान पंचमहाकाव्यांचो चड करून हर्षाच्या नैषधीयचरिताचो उपेग केला. ह्या काव्यांत नरेंद्राचें विदग्ध रचणुकेचें खाशेलपण, प्रभावी व्यक्तिमत्व, ताची कल्पनाशक्त आनी खोल व्यासंग दिसता.

– कों. वि. सं. मं.

## नर्मदा : (रेवा, अमरजा, मैकलकन्या बी) उत्तर भारत आनी दख्खन सडो हांच्या शिमेवयल्या देगणांतल्यान अस्तंतेक व्हांवपी न्हंय. लांबाय १,३१० किमी. आनी उदक व्हांवपाचें क्षेत्र ९८,४२० चौ. किमी. ही न्हंय मध्य प्रदेश राज्यांतल्या मैकल दोंगरावळीच्या अमरकंटक सड्याचेर, सुमार १,०५७ मी. उंचायेचेर एका झऱ्यांतल्यान उगम पावून त्या राज्यांतल्यान १,०७८ किमी. व्हांवता. उपरांतचे ३२ किमी. ती मध्य प्रदेश आनी महाराष्ट्र आनी ते फुडले ४० किमी. महाराष्ट्र आनी गुजरात राज्यांची शीम जाता. निमाणचे १६० किमी. ती गुजरात राज्यांतल्यान वचून भडोचा लागसार अरबी समुद्राच्या खंबायतच्या आखाताक मेळटा. तिच्या मार्गांत कितलेशेच ल्हानल्हान घसघशे आसात. ताका लागून तिचें 'उडक्यो मारीत वचपी' ह्या अर्थाचें रेवा हें नांव सार्थ थरता. तिचें देगण लांबट आनी अशीर आसा. ह्या देगणांत बेसाल्ट, चुनखडक, वालुकाश्म, ग्रॅनायट आनी नायस, डोलोमायट, शेल, संगमरवर आदी प्रकारचीं खडपां आसून तातूंत लोखण, मँगेनीज, कोळसो, डोलोमायट, संगमरवर, चुनखडक हीं खनीजां मेळटात. हांगा सुपीक काळी माती आनी गाळमाती आसा. न्हंयेच्या वयल्या दोंगराळ वाठारांत तांदूळ आनी कड्डुणां, वयल्या सपाट वाठारांत गंव आनी ज्वारी आनी सकयल्या वाठारांत कापूस, तेलबियो आनी ज्वारी हीं मुखेल पिकां आसात.

उगमाउपरांत ही न्हंय पयलीं उत्तरेक आनी वायव्येक व्हांवता. सुमार २५ मी. उंचायेच्या कपिलधारा घसघशा वयल्यान सकयल कोसळून ती दोंगराळ भागांतल्यान कितलींशींच मोडणां घेवन खोल आनी अशीर देगणांतल्यान एका तीव्र मोडणाकडेन मंडला गांवांत येता. मंडला आनी जबलपूर हांचेमजगतीं नर्मदा देगण मातशें रूंद आसा. जबलपूरा लागसार अशीर घळींतल्यान ती घसघशावयल्यान ३५ मी. सकयल येता. एके सुवातेर ही घळ माकड वा हरण सहज उडकी मारून पलतडी वतलें इतली अशीर आसा. थंय तिका बंदरकुदी वा हरणफाळ म्हण्टात. हाचेउपरांत तिची तीन किमी. लांबायेची नामनेची भेडाघाटची संगमरवरी खडपांची घळ आसा. हे उपरांत ही न्हंय जबलपूर ते हंडिया ह्या ३५० किमी. च्या सुपीक मळांच्या वाठारांत येता.

नर्मदेक उत्तरेकडल्यान हिरण ही एकूच मुखेल उपन्हंय मेळटा. बरना, कोलार आनी ओसरंग ह्यो उजवे वटेनच्यो हेर उपन्हंयो. सातपुड्याच्या उत्तर देंवते वयल्यान मात बंजार, शेर शक्कर, गंजाल, तवा, छोटी तवा, कुंडी ह्यो उपन्हंयो येवन मेळटात. छोटी तवा संगमाकडेन मंधार आनी दर्डी हे १२ मी. उंचायेचे धबधबो आसात. मंधार प्रपाताच्या आयल्यान ३४ किमी. पुनासा धरणाचो जागो आसा. नर्मदा कांठावयल्या महेश्वर ह्या अहिल्याबाई होळकराचे राजधानीपसून आठ किमी. सहस्त्रधारा हो घसघसो आसा. मांधाता उपरांतच्या दोंगरांतल्यान भायर पडून नर्मदा १५० किमी. च्या सुपीक मंडलेश्वर मैदानांत येता. मागीर हरिगंपाल लागसारच्या १५० किमी. चे निमाणे घळींतल्यान ती राजपीपलाचे उदेंतेक गुजरातच्या मैदानांत येता. थंय मोडणां घेत-घेत ती ८० किमी. वयल्या

भडोच शाराखाला रूंद जावन २८ किमी. रुंदायेच्या आनी २५ किमी. लांबायेचे खाडयेवरवीं दर्याक मेळटा.

नर्मदा देगणांत भरपूर पावस पडटा. मैकल दोंगरावळींत १४० सेंमी. परस चड, सातपुडा भागांत ११४ ते १२७ सेंमी. सकयल्या मैदानी वाठारांत ६४ ते ७६ सेंमी. आनी गुजरातच्या मैदानी वाठारांत १०२ ते १२७ सेंमी. पावस पडटा. नर्मदेक आनी तिच्या उपन्हंयांक व्हडले हुंवार येतात. बर्गी आनी पुनासा ह्या मुखेल धरणांचो नर्मदासागर प्रकल्प, हुशंगाबाद मेरेनचो तवा न्हंय प्रकल्प आनी बरना प्रकल्प हे हांगाचे नामनेचे जलविद्युत प्रकल्प आसात.

नर्मदेच्या दोनूय देगांचेर, खास करून दोंगराळ भागांत साग, सायल आदी रुखांचीं रानां आसून तातूंतलीं शूलपाणी, ओंकार, महारण हीं मुखेल आसात. नर्मदा तिच्या मुखासावन चांदोदमेरेन फकत ११२ किमी. येरादारीक फावो अशी आसा. नर्मदा देगणांतल्यान खांडवा-इटारसी जबलपूर वयल्यान अलाहाबादेक वचपी आनी खांडव्या वयल्यान इंदूर वचपी अशे लोहमार्ग वतात. भडोच वयल्यान अस्तंत रेल्वेचो मुंबय-दिल्ली मार्ग वता. भडोच, जबलपूर, हुशंगाबाद, मोरटक्का वाठारांनी रेल्वेपूल आसात. देगणांतल्यान मुंबय-आग्रा राश्ट्रीय म्हामार्ग वता.

- कों. वि. सं. मं.

**नवग्रह :** रवी, सोम, मंगळ, बुध, गुरू, शुक्र, शनी, राहू आनी केतू हे णव ग्रह.

भारतांत कांय सुवातींनी नवग्रहांचीं देवळां आसात. भारतांतल्या कांय शिल्पांनी नवग्रहांचे पट्ट मेळ्ळ्यात. गुर्गीच्या नवग्रहपट्टांत मंगळ सोडून हेर सगळे ग्रह वाहनांचेर बशिल्ले आसात. दुसऱ्या एका शिलापट्टाचेर णवूय ग्रह कमळाचेर बशिल्ले आसात.

ह्या ग्रहांची म्हायती अशी —

**रवी :** कश्यप आनी अदिती हांचो पूत. वर्णान क्षत्रीय वा ब्राह्मण. कलींग देशाचो राजा. रवी म्हळ्यार तिनूय वेदांचें उकतें स्वरूप, मळबाचो आदार, मेरू पर्वताभोंवतणीं प्रदक्षणा घालपी, कमलासन, कमलहस्त, एकचक्र आनी सात तोंडांचो घोडो आशिल्ल्या रथाचेर बसपी आनी लगाम धरपी. संज्ञा, वडवा, स्वर्णा आनी सुवर्चसा ह्यो ताच्यो बायलो. रेवंत, यम आनी दोन मनू हे पूत आनी कालिंदी ही ताची धूव.

ह्या ग्रहाचो पुराणीक मंत्र असो —

जपाकुसुमसङ्काशं काश्यपेयं महाद्युतिम ।
तमोऽरिं सर्वपापघ्नं प्रणतोऽस्मि दिवाकरम् ॥

ह्या ग्रहाची जपसंख्या सात हजार. सूक्त-सौर, दानद्रव्यां - भांगर, तांबें, मणी, गंव, रक्तधेनू, गोड, कुसुंभ आनी रक्त कमल. वस्त्र-कुसुंभी. वार- आयतार. परब - संक्रांत आनी रथसप्तम.

**चंद्र :** हो अत्रिचो पूत. समुद्रमंथनांतल्यान वयर आयलो. वर्णान वैश्य, सत्तावीस नक्षत्रां ह्यो ताच्यो बायलो. चंद्र हो शुभ ग्रह. धवो वर्ण, धवें वस्त्र, मृगवाहन आनी दोन भुजांचो. ताच्या एका हातांत गदा आनी दुसऱ्या हातांत वरद मुद्रा आसता.

ह्या ग्रहाचो पुराणीक मंत्र असो —

दधिशङ्खतुषाराभं क्षीरोदार्णवसम्भवम्
नमामि शशिनं सोमं शम्भोर्मुकुटभूषणम् ॥

ह्या ग्रहाची जपसंख्या इकरा हजार. दानद्रव्यां - भांगर, रुपें, मोती, तांदूळ, धवो बैल, तूप, धवें वस्त्र आनी धवें फूल. ह्या ग्रहाचें वस्त्र - धवें.

**मंगळ :** भूंय आनी भरद्वाज हांचो पूत. अवंती नगरांत ताचो जल्म जालो. वर्णान क्षत्रीय. हाका पापग्रह मानतात. हो ग्रह रक्तवस्त्रां आनी रक्तपुश्पां धारण करता. हो चार भुजांचो आसून, ताच्या तीन हातांनी शक्त, शूळ आनी गदा हीं आयुधां आनी चवथ्या हातांत वरदमुद्रा आसता.

ह्या ग्रहाचो पुराणीक मंत्र असो —

धरणीगर्भसम्भूतं विद्युत्कान्तिसमप्रभम्
कुमारं शक्तिहस्तं च मङ्गलं प्रणमाम्यहम् ॥

जपसंख्या धा हजार, दानद्रव्यां - भांगर, तांबे, पोंवळें, मसुरा, रक्त वृष, गोड, तांबडें वस्त्र आनी तांबडें कमल. वस्त्र - तांबडें.

**बुध :** चंद्राचो पूत. मगध देशांत जल्म. वर्णान वैश्य. शुभ ग्रहांवांगडा शुभ आनी पापग्रहांवांगडा पाप. हळदुवीं वस्त्रां आनी हळदुवीं फुलां धारण करपी. हो चार भुजांचो आसून ताच्या तीन हातांनी धाल, तरसाद, गदा आनी चवथ्या हातांत वरदमुद्रा आसता.

ह्या ग्रहाचो पुराणीक मंत्र असो :

प्रियङ्गुकलिकाश्यामं रुपेणाप्रतिमं बुधम्
सौम्यं सौम्यगुणोपतं तं बुधं प्रणमाम्यहम् ॥

जपसंख्या चार हजार. दानद्रव्यां - भांगर, कांश्य, पाचू, मूग, हत्ती, तूप, निळें वस्त्र आनी सगळ्या तरांचीं फुलां. वस्त्र - निळें.

**गुरू :** अंगिरसाचो पूत. सिंधू देशांत जल्म. वर्णान ब्राह्मण. देवांचो गुरू. शूभ ग्रह. चार भुजांचो. तीन हातांनी दंड, कमंडलू, अक्षमाळ आनी चवथ्या हातांत वरदमुद्रा. हळदुवें वस्त्र न्हेसपी.

ह्या ग्रहाचो पुराणीक मंत्र असो —

देवानां च ऋषीणां च गुरुं काञ्चनसन्निभम् ।
बुध्दिभूतं त्रिलोकेशं तं नमामि बृहस्पतिम् ॥

जपसंख्या एकुणीस हजार. दानद्रव्यां - भांगर, कांश्य, पुष्पराग, हरभऱ्याची दाळ, साकर, घोडो, हळदुवें वस्त्र आनी हळदुवीं फुलां. दर्शन - दत्त. हळदुवें - वस्त्र.

**शुक्र :** भृगुचो पूत. भोजकट देशांत जल्म. वर्णान ब्राह्मण. दैत्यांचो गुरू. शूभ ग्रह. धवो वर्ण आनी चार भुजांचो. तीन हातांनी दंड, कमंडलू, अक्षमाळ आनी चवथ्या हातांत वरदमुद्रा. हळदुवें वस्त्र न्हेसपी.

ह्या ग्रहाचो पुराणीक मंत्र असो —

हिमकुन्दमृणालाभं दैत्यानां परमं गुरूम् ।
सर्वशास्त्रप्रवक्तारं भार्गवं प्रणमाम्यहम् ॥

जपसंख्या सोळा हजार. दानद्रव्यां - भांगर, रुपें, हिरो, तांदूळ, धवो घोडो, तूप, चित्र वस्त्र आनी धवीं फुलां. वस्त्र - चित्रविचित्र.

**शनी :** सुर्याचो पूत. सौराश्ट्रांत जल्म. वर्णान शुद्र. पापग्रह आनी निळे कांतीचो. हो घारीचेर बसता. चार भुजांचो. ताच्या तीन हातांनी धोणू, बाण, शूल आनी चवथ्या हातांत वरदमुद्रा आसता.

शनीचो पुराणीक मंत्र असो —

नीलाञ्जनसमाभासं रविपुत्र यमाग्रजम् ।
छायामार्तण्डसम्भूतं तं नमामि शनैश्चरम् ॥

जपसंख्या तेवीस हजार. अभिशेकमंत्र - रूद्राध्याय (वैदिक), महिम्न (पुराणीक). तेलाचो अभिशेक. दानद्रव्यां - भांगर, लोखण, नील, उडीद, म्हस, तेल, कृष्ण कंबल आनी कृष्णफूल. दर्शन - गणपती, मारुती, देवी

आनी शनी. वस्त्र - काळें. वाचन - रामायण आनी शनिमहात्म्य.

**राहू :** सिंहकासुत. पैठणांत जल्म. वर्णान शुद्र. पापग्रह, काळ्या शींवाचेर बसला, धूम्रवर्ण दोन भुजांचो आनी भयानक.

ह्या ग्रहाचो पुराणीक मंत्र असो –

अर्धकायं महावीर्यं चन्द्रादित्यविमर्दनम् ।
सिंहकागर्भसम्भूतं तं राहूं प्रणमाम्यहम् ॥

जपसंख्या अठरा हजार, दानद्रव्यां - भांगर, शिंशें, गोमेद, तीळ, घोडो, तेल, निळें वस्त्र आनी कृष्णफूल. वस्त्र - निळें.

**केतू :** जैमिनीच्या कुळांत उत्पन्न. कुशद्वीपांत जल्म. वर्णान शुद्र. पापग्रह. घारीचेर बसपी. धूम्रवर्ण, दोन भुजांचो आनी भयानक.

ह्या ग्रहाचो पुराणीक मंत्र असो –

पलाशपुष्पसङ्काशं तारकाग्रहमस्तकम्
रौद्रं रौद्रत्मकं धोरं तं केतुं प्रणमाम्यहम् ॥

जपसंख्या सतरा हजार, दानद्रव्यां - भांगर, तिखें, तीळ, बोकड, तेल, काळें वस्त्र आनी धूम्रपुश्प. वस्त्र - काळें.

अंतराळांतल्या ग्रहांच्या भ्रमणाचो धर्तरेवेल्या जीवसृश्टीचेर शुभाशुभ परिणाम जाता असो समज आसा. तेखातीर ग्रहांची शांती, ग्रहांचो जप करप, त्या-त्या ग्रहांक मानोवपी रत्नांच्यो मुदयो बोटांत घालप, दान दिवप अशो गजाली करची पद्दत आसा.

मध्ययुगांत कांय मंदिरांतल्या शिल्पकामांत नवग्रहांची चित्रां कोरांतिल्लीं आसात. मंदिर सुरक्षीत उरचें हे भावनेन लेगीत तीं चित्रां कोरांतल्यांत. सारनाथाच्या उत्तर गुप्त काळांतल्या एका शिल्पांत बृहस्पती, शुक्र, शनी आनी राहू हांच्यो आकृत्यो आसात. पयले तिगूय उबे आसात पूण राहूची आकृती अर्दी आसा. ताचे तकलेर ऊंच जटा आसून दांत वांकडे-तिकडे तशेंच दोळे भायर आयिल्ले आसात. पयलीं केतू सोडून हेर आठ ग्रहांचींच चित्रां कोरांतताले. कांय नवग्रहपट्टांत पयली गणपतीची मूर्त दिसता. बंगालांतल्या कनकदिघीक मेळिल्ल्या शिल्पांत सगळे ग्रह कमलपिठाचेर उबे आसात अशे दाखयल्यात.

ओरिसांतल्या मयूरभंज जिल्ह्यांतल्या खिचिंगांत भग्नावशेशांत बारा आऱ्यांचें एक नवग्रहचक्र मेळ्ळां. तें चक्र एका पेडाचेर उबें आसून ताचे रूंद देगेचेर नवग्रहांच्यो आकृत्यो आसात. वयले वटेन मदीं सूर्य, सकयले वटेन दोनूय कडेन राहू आनी केतू आनी मदीं बाकीचे सगळे स ग्रह आसात. चक्रामदीं तीन तोंडाची आनी चार भुजांची एक आकृती पद्मासन घालून बसल्या आनी तिचे हात ध्यानमुद्रेंत आसात. ह्या चक्राचे देगेंतल्यान ज्वाला येतात अशें दिसता.

गंगैकोंडचोळपुरमच्या मंदिरांतलें नवग्रहशिल्प खूब सोबीत आसा. पुर्विल्या काळासावन भारताच्या सगळ्या वाठारांनी नवग्रहांची पुजा करतात. पावस, भरभराट, शांती, खूब आयुश्य हांकां लागून आनी सगळे संस्कार आनी धर्मीक कार्यां वेळार ह्या नवग्रहांची पुजा करतात. ह्या ग्रहांच्यो प्रतिमा अनुक्रमान तांबें, स्फटिक, रक्तचंदन, भांगर, रुपें, लोखण, शिंशें आनी कांशें ह्या पदार्थांच्यो करतात.

- कों. वि. सं. मं.

## नवचंडी :

(१) णव चंड्यो म्हळ्यार नवचंडी. हो मातृदेवतांचो चोमो वेगवेगळ्या आगमांनी सांगिल्ले प्रमाण हांचीं नांवां वेगवेगळीं आसात. 'सप्तशतीच्या' पुस्तकांत आशिल्ल्या कवचांत तांचीं नांवां अशीं आसात: शैलपुत्री, ब्रह्मचारिणी, चन्द्रघंटा, कूश्माण्डा, स्कन्दमाता, कात्यायनी, कालरात्री, महागौरी आनी सिद्धिदात्री. पूण कांय आगमांप्रमाण ह्या नांवांनी बदलूय जाता.

(२)संस्कृतांत सप्तशती वा दुर्गासप्तशती नांवाचें पुस्तक आसा. श्लोकांचे नदरेन ह्या ग्रंथांत जरी ५६७ श्लोक आसात तरीय सगळे ७०० मंत्र आसात. सप्त म्हळ्यार सात आनी शत म्हळ्यार शेंकडो. हे ७०० मंत्र १३ अध्यायांनी विभागिल्ले आसात आनी हे तेरा अध्याय मार्कंडेय पुराणांत अध्याय ८१ धरून ९३ मेरेन आसात.

हे तेरा अध्याय वाचचे आदीं आनी उपरांत कांय विधी करपाचे आसात. तांकां क्रमान पुर्वांग आनी उत्तरांग विधी अशें म्हण्टात. ह्या दोनय विधींसकट १३ अध्याय वाचतकच एक पाठ जाता. एका दिसा एकापरस चड पाट करपाचे आसल्यार पूर्वांग आनी उत्तरांग विधी परत-परत करपाची गरज ना. पूण ह्या १३ अध्यायांचे पयलीं रात्रिसुक्त आनी अश्टोत्तर जप तशेंच १३ अध्याय सोंपतकच देवी सूक्त आनी अश्टोत्तर जप करपाची गरज आसा. हे पद्दतीन दुसरो पाठ करतना पूर्वांग विधी करिनासतना रात्रिसूक्त आनी अश्टोत्तर जप करून १३ अध्याय वाचपाचे आनी परतो देवीसूक्त आनी अश्टोत्तर जप करपाचो. अशे एका दिसाक कितलेय पाठ करूं येतात. निमाणो पाठ वाचतकच उत्तरांग विधी करून कर्म समाप्त करचें. दुसऱ्या दिसा पाठ वाचतलो जाल्यार पूर्वांग विधी करून वयर सांगिल्लेप्रमाण पाठ वाचपाचे आनी उत्तरांग विधी करून पाठ सोंपोवपाचे. मनशाचे कामनेप्रमाण पाठांची संख्या शास्त्रान थारायल्ली आसा. १, ३, १०, १५ अशे पाठ करपाक सांगिल्ले आसात.

गोंयांत वा हेरकडेन नवचंडी म्हणून एक विधी करपाची चाल आसा. ह्या विधींत वयर सांगिल्लेप्रमाण १२ खेपे सप्तशती ग्रंथाचें वाचन करतात. हे पाठ जातकच देवीपुजन वा पुस्तक स्वरुपी देवीपुजन, कुमारीपुजन, ब्राह्मण, सुवासिनीपुजन, संतर्पण बी कार्यक्रम आसतात. होम आसल्यार हातूंत बलिप्रदान करपाचें आसता. ह्या बलिप्रदानांक पर्यायूय खूब आसतात. होम नासल्यारूय विशिश्ट कामनेक लागून बलिप्रदान करपाची चाल आसा. ह्या बलिप्रदानांत चड करून कुंवाळ्याचो बळी दिवपाची चाल आसा. खंय-खंय उडदाच्या पिठाचो शत्रु करूनूय बळी दितात.

ह्या सप्तशती पुस्तकांत दिल्ल्या होम विधानांत नवचंडी, शतचंडी आनी सहस्त्रचंडी अशे शब्द वापरल्यात. अर्थांत शतचंडी, सहस्त्रचंडी ह्या शब्दांच्या आदारान नवचंडी म्हळ्यार १० पाठ जावंक जाय. शतचंडी १०० पाठ, सहस्त्रचंडी १००० पाठ, ही संख्या धांनी गुणून आयिल्ली आसा. १०००×१० = १०००० करून अयुतचंडी तशेंच १०,००० × १० = १,००,००० लक्षचंडी अशे शब्द प्रचारांत आसात. म्हणून नवचंडी म्हळ्यार १० पाठ पारायण करून हवन, तर्पण, मार्जन करप अशें दिसता. पूण जांकां हवन करप शक्य ना ताणीं होमा बदला एक पाठ आनी तर्पण मार्जन आनी उपांगां बदला एक पाठ करप अशें थरोवन १२ पाठांची येवजण नवचंडी विधानांत केल्या.

- डॉ. अनंत राम भट

## नवजोत :

पारशी धर्मांतलो एक म्हत्वाचो उपनयन संस्कार. वैदिक धर्मांत उपनयनाक जितलें पावित्र्य आनी म्हत्व आसा तितलेंच तें पारशी

धर्मांत नवजोताक आसा. ह्या धर्मांत चल्याभाशेन चलयांचोय हो संस्कार करतात. नव म्हळ्यार नवे आनी जोत म्हळ्यार धर्मांतली प्रार्थना म्हणपाखातीर जाका नव्यानच शिकवण मेळटा असो मनीस. नवजोत म्हणजेच अहुर मज्दप्रभूचो नवो उपासक वा पारशी धर्माचो नवो अनुयायी. हो संस्कार करतकच ते बटूक पारशी धर्मांतले सगळे विधी आचरण करपाची पात्रताय प्राप्त जाता.

सादारणपणान पिरायेच्या सातव्या वर्सा हो संस्कार करचो अशें पारश्यांच्या धर्मशास्त्रांत सांगलां. पूण अडचणीक लागून फावो त्या वेळार हो संस्कार करूंक मेळ्ळोना जाल्यार फुडें पंदरा वर्सांमेरेन केन्नाय करूं येता.

हो संस्कार सामको सादो आसता. ह्या संस्कारांत पवित्र आंगाचें आनी सूत्र मेखला घालूंक सांगतात. त्या आंगाच्याक 'सुद्रेह' वा 'सद्रेह' म्हण्टात. सद् म्हळ्यार शुध्द आनी राह म्हळ्यार वाट. सुद्रेह धव्याफुल्ल सुती कापडाचो आसता. ताच्या गळ्यामदीं एक बोल्स आसता. मनीस जेप्रमाण धन एकठांय करता तेप्रमाण दीसपट्टी बरीं कामां करून तांचें पुण्य ह्या बोल्सांत सांठोवचें हे येवजणेन ह्या बोल्साची कल्पना केल्ली दिसता. सुद्रेह म्हळ्यार पवित्र जिविताची खूण. सूत्र-मेखला हाका अवेस्ता भाशेंत 'अयव्याओङ्हन' अशें म्हण्टात. जाल्यार पेहलवी भाशेंत ताका 'कुस्ती' अशें म्हण्टात. कुस्ती म्हळ्यार जानवें. धव्या मेंढराचे लोकरी पसून बात्तर धागे काडून तांची कुस्ती करतात.

अवेस्तांत यस्न (यज्ञ) नांवाचें एक प्रकरण आसून तातूंत ७२ अध्याय आसात. मानवी जिवीत हें यज्ञमय आसचें देखून ७२ अध्यायांचें प्रतीक म्हणून कुस्ती ७२ धाग्यांची करतात. चड करून पारशी पुरयतांच्यो बायलोच ही कुस्ती तयार करतात. नवजोत संस्कार जातकच ही कुस्ती कमराक गुठलावपाची आसता. देवाचे सेवेखातीर सदांच कटिबद्ध रावपाचें हें प्रतीक. ह्या संस्काराचो विधी असो –

त्या दिसा जाचो हो संस्कार करपाचो आसता त्या चल्याक वा चलयेक विधीपुर्वक न्हाणयतात. हो संस्कार करपाच्या जाग्यार पवित्र उजो, तशेंच तबकडेंत फुलां, तांदूळ, कुकूम, विड्याचीं पानां, तुपाचें निरांजन, खडीसाकर, फुलांचो हार, बी पुजेंचे साहित्य दवरतात. उपरांत एकूच फळी आशिल्ल्या चौरंगाचेर संस्कारमुर्तेक बसयतात. उपरांत 'पतेत्' नावाचो प्रायश्चितात्मक मंत्र म्हण्टात आनी नवजोत संस्काराक सुरवात जाता. पुरयत संस्कारमुर्तीक सुद्रेह घालूंक दिता आसतना अग्नीचे साक्षीन जरथुस्त्री धर्माकडेन निश्ठेन आनी अव्यभिचारी रावपाचो मंत्र म्हण्टात. उपरांत मंत्रोच्चार करीत-करीत ताका सुद्रेह घालतात तशेंच मंत्र म्हणुनूच कुस्ती तीन फावट ताच्या कमराभोंवतणीं गुठलायतात. हो संस्कार जाता त्या दिसासावन मरसर (न्हावपाच्या वेळाचो अपवाद सोडल्यार) सुद्रेह आनी कुस्ती घालपाची आसता. निमाणें पुरयतान 'तंदुरुस्ती' हो आर्शिवादाचेर आदारीत मंत्र म्हण्टकच हो संस्कारविधी पुराय जाता.

जरथुस्त्रान उपदेश केल्ल्या 'हुमत' (बरे विचार) 'हुरत' (बरे शब्द) आनी 'व्हर्त' (बरे आचार) ह्या त्रयींच्या आचारांचेर सत्य, अहिंसा आनी मोग आदी गुणांचें आचरण करीत सद्धर्माची स्थापना करीन असो सोपूत ह्या नवजोत संस्कारांत घेवप जाता. जिविताक उचेलें मोडण लावन दिवपी ह्या संस्काराक पारशी धर्मांत खाशेलें म्हत्व आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**श्री नवदुर्गा देवस्थान :** गोंयांतलें एक नामनेचें देवस्थान. गोमंतकांतल्या गौड सारस्वत ब्राह्मण कुळांची जशीजशी संतती वाडत गेली, तशे तशे नवे गांव वसोवचे पडले. तेप्रमाण साश्टींतल्या वेर्णे गांवच्या कांय गौड सारस्वत घराण्यांनी थंयच्या गावड्यांच्या आदारन तिसवाडी म्हळ्यार गांवशी हो वाठार वसयलो. थंय नवदुर्गा हे आपले इश्टदेवतेची स्थापना करून ते थंय स्थायीक जाले. फुडें थंयच्या कांय गौड सारस्वत ब्राह्मणांनी अंत्रूज म्हालांत वचून मडकय आनी कुंडय हे गांव वसयले. फुडें पुर्तुगेजांच्या काळांत बाटाबाटी वेळार गांवचे हिंदू लोक आपले इश्टदेवतेक घेवन मडकय गेले. सुर्वेक ताणीं ही देवता मडकयच्या पारंपय वाड्यावयल्या 'तळयखोल' ह्या वाठारांत दवरली. उपरांत एक दीस कामत



श्री नवदुर्गा संस्थान : मडकय

उपनांवाच्या एका गांवकाराचेर भार आयलो आनी ताणें सांगलें 'आपणें हांगाच्यान शेंवटून मारिल्लो नाल्ल ज्या जाग्यार पडटलो थंय तिची स्थापणूक करात'. ते प्रमाण हो नाल्ल मडकयच्या दुतळ वाड्यार जंय सद्याचें देवस्थान आसा थंय पडलो. उपरांत थंय देवूळ बांदून तिची स्थापना केली. फुडें मडकय आनी कुंडय हे संयुक्त ग्रामसंस्थेंत मतभेद जावन ताच्यो दोन वेगवेगळ्यो ग्रामसंस्था जाल्यो. तेन्ना कुंडयकारांनी नवदुर्गेची आनीक प्रतिमा करून कुंडयच्या दासोळ वाड्यार तिची स्थापना केली. अशे तरेन मडकय आनी कुंडय ह्या दोन वाठारांनी दोन देवस्थानां जालीं.

**नवदुर्गा देवस्थान - मडकय :** मडकय गांवांत जंय नवदुर्गा देवस्थान आसा ताका सद्या देवूळवाडो म्हण्टात. हें देवालय दोंगराच्या मुळसांत अस्तंते वटेन तोंड करून आसा. हें देवालय ल्हानशें पूण सोबीत आसा. श्री नवदुर्गा देवीची पाशाणमुर्ती गर्भागारांत पट्टासनाचेर आसा. हें ध्यान श्री महिषासूरमर्दिनीचें आसून तिची मान दावे वटेन वांकडी आसा. हेविशीं एक आख्यायिका आसा ती अशी : कर्नाटकांतल्या तिच्या एका म्हाजनान तिका एक हजार रुपयांचीं फुलां घालीन असो नवस केलो. तो पावोवपाक एक दीस तो मडकय आयलो. पूण त्या दिसा ताका एकूय फूलकार दिसलो ना. कांय वेळान ताका एक फूलकार वतना दिसलो. ताणें ताका फुलांविशीं विचारलें, तेन्ना ताणें सांगलें सगळीं फुलां खपलीं. पूण एकूच चाफें उरलां. तें चाफें घेवन म्हाजनान ताका मोल विचारलें, तेन्ना ताणें फकाणांनी एक हजार रुपया सांगलें. तेप्रमाण म्हाजनान एक हजार रुपया फुलकाराक दिले उपरांत तें फूल देवीक घालें आनी आपलो नवस पावलो काय विचारलें. तेन्ना देवीन मान दावेवटेन वांकडी करून 'हय' म्हळें. तेन्नाच्यान ते देवीची मान तशीच आसा अशें सांगप जाता.

नम ही तीथ नित्य पर्वणीची आशिल्ल्यान रातचो शिबिकोत्सव जाता. तेभायर दर वर्सा कार्तिक वद्य चवथीसावन दसमी मेरेन सात दीस तिचो जत्रोत्सव जाता. पुजा, नाटकां, सुखासनां, लालखी, पालखी अशे भरगच्च कार्यावळीन हे सात दीस भरिल्ले आसतात.

कार्तिक वद्य पंचमीकडेन देवतेची पुजा जाता. सश्टीक सुखासन, सप्तमीक लालखी, अश्टमी दिसा देवी मडकयकार शेटीगेर (दुतळवाडो) वास्तव्य करता. हे विशीं अशें सांगप जाता की, श्री नवदुर्गेची भांगरामुर्ती घडोवपी शेटीली चली आनी देवतेचें रूप एकमेकाकडेन सामकें जुळटालें. जशें-जशें मुर्तीचें रूप पुराय जायत गेलें तशें-तशें शेटीली चली सुकत गेली आनी उपरांत मेली. तेन्ना देवतेन शेटीक वचन दिलें, 'वर्सांतल्यान एकदां जात्रेच्या पयल्यादिसा आपलो तुगेर राबितो आसतलो' देखून दर वर्सा अश्टमी दिसा देवी शेटीगेर वता, थंय तिचो मानपान जाता. त्याच दिसा फांतोडेचेर देवीचो सांगोड जाता.

कार्तिक नमीचो दीस देवीचो उपासाचो दीस. त्या दिसा सांजवेळच्या पांचांच्या सुमाराक उपहार जाता. हो जात्रेचो मुखेल दीस. ह्या दिसा आंगवण पावोवपाक आनी होंटी भरपाक लोकांची गर्दी जाता. त्याच दिसा फांतोडेर देवीची रथांतल्यान मिरवणूक जाता. उपरांत देवीक म्हालवाडकारांनी बांदिल्ल्या सोबीत तरंगांत विराजमान करतात.

दसमी दिसा, दिसाच्या धा वरांच्या सुमाराक देवीचें दोंगरावटेन वाजतगाजत पारांपय ह्या तिच्या मूळ वसती स्थानार प्रयाण जाता. थंय तिचें वास्तव्य २-३ वरां आसता. पारांपय वाठारांतले आनी लागशिल्ले लोक व्हड भावार्थान देवीक येवकार दितात. देवीच्या येवकाराची तयारी आदल्या दिसासावन चलता. थंयच्यान सुमार दनपारां १२-१ वरांचेर देवीचो रथ मूळ जाग्यार येवंक भायर सरता. वाटेर तळ्याबांदार बेताळा देवळाकडेन देवी विराजमान जाता. थंयच्यान देवतेची वात देवळाकडेन वता आनी दनपारचीं देवीचे संबंदीत लोकांचीं (बायलांची) दिवजां पेटयतात.

त्याच दिसा (दसमी) सांजेच्या सुमार साडेचार वरांचेर देवीचो रथ वाजतगाजत देवळाच्या प्राकारांत येता, देवळाक पांच भोंवताडे घालता आनी जात्रा सोंपता.

उपरांत जात्रेचोच भाग म्हणून १०-१५ दीस खळिल्ल्यो पुजा (लोकांनी आंगयल्ल्यो) ज़ातात.

ह्या देवस्थानाचे मूळ संस्थापक म्हाजन मडकय ग्रामसंस्थेचे वर्गी कामत, नेवरेकार आनी भरणे ह्या आडनांवाचे आसात. तांचे वांगडी अशे आसात :

(१) म्हालवाडकार आनी वडाळकार - गोत्र अत्री.
(२) व्होंडकार आनी दुतळकार कामत - गोत्र भारद्वाज.
(३) बुल्डो - गोत्र अत्री.
(४) धाकणकार कामत - गोत्र भारद्वाज.
(५) पणजीकार कामत - गोत्र अत्री.
(६) बेतीकार उर्फ बेतकार कामत - गोत्र भारद्वाज.
(७) नेवरेकार, शेणवी नेवरेकार - गोत्र कौशिक.
(८) भरणे, शेणवी भरणे - गोत्र वत्स.

हांचे भायर अत्री, भारद्वाज, शंरपबिंग आनी पिंगल ह्या गोत्रांचे तशेंच तिंबले, खाडचे, माड, कारे ह्या उपनांवाचे पालवी म्हाजन आसात.

**नवदुर्गा देवस्थान - कुंडय :** मडकय आनी कुंडय हे संयुक्त ग्रामसंस्थेच्यो दोन ग्रामसंस्था जातकच कुंडयच्या गांवकारांनी कुंडय गांवांतल्या दासोळ वाड्यार दोंगराच्या मुळसांत देवूळ बांदून तातूंत नवदुर्गेची स्थापना केली. ताचेउपरांत गांवकरी नवदुर्गेकच आपली ग्रामदेवता मानूंक लागले आनी थंयचीं मूळ दैवतां तिच्या परिवारांतलीं दैवतां मानूंक लागले. ह्या परिवारांतल्या दैवतांमदीं श्री महादेव, श्री गणपती, श्री आदिनारायण, श्री ग्रामपुरूस हांचो आस्पाव जाता. श्री नवदुर्गा देवालया पासून कांय अंतराचेर गुरूवसाय नांवाचो दासोळ वाड्याचो एक भाग आसा. थंय चडशी गुरव लोकांची वसती आशिल्यान त्या भागाक गुरूवसाय म्हण्टात. हांगा श्री वेताळ आनी ताचे लागसार भावका देवता, रायखद्री (राटांवेलो समंद) आनी कानडया पुरूस हांचीं देवळां आसात. बेताळ देवळापसून कांय अंतराचेर रवळनाथाचें देवूळ आसा. ताचे उजवे वटेन भुतनाथ आनी उत्तरे वटेन श्री सांतेरीचीं देवळां आसात. लागसारच 'पापणी लक्षीम' ह्या नांवान वळखतलें लक्ष्मीचें देवूळ आसा. कुंडय बाजारांत मानसवाड्यार एका देवळांत श्री मल्लिकार्जून आनी ताच्या दोनूय वटांनी श्री क्षेत्रपाळाच्यो दोन मूर्ती आसात. तशेंच, श्री नारायण आनी श्री शिवीपुरूस स्वतंत्र देवळांनी आसून श्री नवदुर्गा देवीच्या म्हाजनाचे हे पुरूस अशें सांगतात.

श्री नवदुर्गा कुंडय देवालयाचे मूळ म्हाजन माध्व आनी स्मार्थ संप्रदायी गौड सारस्वत ब्राह्मण कुंडय ग्रामसंस्थाचे वर्गी आसून तांचे वांगडी अशे आसात. (१) आकसणकार कामत - गोत्र गार्ग्य (२) शेणवी मावजेकार - गोत्र कौंडिण्य (३) गरदेरकार कामत - गोत्र गार्ग्य (४) आंबोळकार कामत - गोत्र गार्ग्य (५) दाभोळकार कामत - गोत्र गार्ग्य (६) कुलकर्णी, सिसाणी - गोत्र कौशिक. हांचे भायर दैवज्ञ ब्राह्मण, गुरव, भगत, वैश्य, लोहार, त्वश्ठा कांसार, गावडे, हरिजन वर्गांतय ह्या देवाचे भजक आसात.

ह्या देवस्थानांत दर म्हयन्याचे नमीक शुद्ध आनी वद्य पक्षांत शिबिकोत्सव जाता. ह्या देवस्थानाची वर्सुकी जात्रा मार्गशीर्ष शुक्ल नमीसावन चतुर्दशीमेरेन जाता. आदल्या तेंपार ही जात्रा कार्तिक म्हयन्याच्या वद्य पक्षांत जाताली. ह्या वद्य पक्षाचे त्रयोदशीचे फांतोडेर राट घुंवडावपाचो भिरांकूळ कार्यक्रम जातालो. सुमार साडेतेरा हात उंचायेचो म्हळ्यार तीन मनीस ऊंच असो एक लांकडी खांबो जमनींत पुरून ताचेर एक चक्राकार राट बसयताले. त्या राटाक बळिश्ट अशे चार तरणाटे हाडून तांच्या कमराचे चामडेंत व्हड अशी लोखडी गरी, दरेका मनशाक दोन ह्या प्रमाण आडखळावन ते गरयेचे खिळयेंत घट्ट दोरयो बांदून राटाक उमथे हुमकळायताले. उपरांत हो राट थारावीक खेपे घुंवडावन तांकां सकयल काडटाले. फुडें तांच्या घायांक देवतेचो तीर्थ-गंधाचो लेप लावन ते घाय भरून येताले, अशें सांगतात. एक वर्स राट घुंवडायता आसतना चारांतलो एक तरणाटो चामडी तुटून पडलो आनी थंयच ताका मरण आयलें. फुडें तो समंद जाल्ल्यान ताची स्थापना श्री वेताळ देवालयाचे दक्षिणेक पाशाणी खंडरुपान केल्या. फुडें, गोंयचो गवर्नर पेस्तान हाणें ही भिरांकूळ चाल बंद केली.

ह्या देवालयाचो जिर्णोध्दार शके १८३२ म्हळ्यार इ. स. १९१० वर्सा जालो. पूण १९१३ त देवळाचो उक्तावण सुवाळो आनी नवे प्रतिमेची स्थापना केली. तेन्नाच्यान वैशाख शुक्ल १० मी. हो दीस स्मारकोत्सव नांवान मनयतात.त्या दिसा वसंतपुजा, मिरवणूक आदी कार्यक्रम जातात. ह्या देवस्थानांत श्री नवदुर्गेच्या आसनाचे कडेक उकडे तांदूळ लावन प्रसाद घेतात.

**श्री नवदुर्गा देवस्थान - बोरी :** बोरयेची नवदुर्गा हें चतुर्भुजा महिषासुरमर्दिनीचें रूप. ही बोरयेची नवदुर्गा मूळची महाराष्ट्रांतली आसून बोरये येवचे आदीं तिचें वास्तव्य बाणावले वाठारांत आसलें असो समज आसा. आयज बाणावली, कोलवें, वुर्तोर्डें-माजोर्डें सारकिल्या परिसरांतले क्रिस्तांव लोक हे देवीक भजिल्ले दिसतात. हे देवीचे कुळावी म्हणून वत्स गोत्री प्रभुदेसाय, भारद्वाज गोत्री सावकार, अत्री गोत्री देवारी, कौशिक गोत्री भटबोरकार, कामत नंदगडकार आसात. सुमार १८८०-८१ वर्सा जगन्नाथबुवा नांवाच्या एका नाथपंथीय धर्मजागरणी मनशान ह्या देवळाचो जिर्णोद्धार केल्ल्याची म्हायती मेळटा.

ह्या देवळांत चैत्र शुद्ध प्रतिपदा ते शुद्ध दसमी मेरेन एक आनी दुसरी त्रिपुरी पुनवेक अशे दोन जात्रोत्सव जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**नवमानवतावाद :** नामनेचो भारतीय राजकीय विचारवंत आनी क्रांतीवीर मानवेंद्रनाथ रॉय हाणें आपल्या विचारीक आनी राजकीय जिणेच्या निमाण्या पर्वांत पुरस्कार केल्लें राजकी तत्त्वगिन्यान 'नवमानवतावाद' (radical humanism) म्हणून वळखतात. मार्क्सवादाप्रमाणूच नवमानवतावाद ही एक मुळावी आनी समाजीक जिणेच्या सगळ्या आंगांची विस्कटावणी करून तांचें मार्गदर्शन करपी अशी एक विचारसरणी.

'नवमानवतावाद' हें नांव आपणावन रॉय हाणें आपले विचारसरणीचो मनशाचे संस्कृतायेंतल्या, खास करून आर्विल्ल्या युरोपी संस्कृतायेंतल्या देखीक - प्रबोधनकाळांतल्या मानवतावादी प्रेरणांकडेन लागींचो संबंद जोडलो; पूण तेचवांगडा नवमानवतावाद मार्क्सवादाच्या पेल्यान वता, अशें तांचें म्हणणें आसा. दुसऱ्या म्हाझुजाचे फाटभुंयेर नवमानवतावादाचें तत्त्वगिन्यान मांडलें. मानवेंद्रनाथ रॉय हाणें ह्या तत्त्वगिन्यानाचीं बावीस सुत्रां १९४६ त उजवाडायलीं. राश्ट्रां-राश्ट्रांतले सर्तीचो आनी आक्रमक राश्ट्रवादी हुकूमशायेचो परिणाम दुसऱ्या म्हाझुजांत जाल्लो. भांडवलशाय पिळवणुकेक पर्यायी जाप दिवपाचो रशियेंतलो मार्क्सवादी क्रांतीचो प्रयोगूय येसस्वी जावंक नाशिल्लो. संसदी लोकशाय आशिल्ल्या राश्ट्रांनीय व्यक्तीस्वातंत्र मर्यादीत अर्थानूच अस्तित्वांत उरिल्लें. बुध्दीवादाक, नैतिकतेक आनी व्यक्तीस्वातंत्र्याक गरजेचें अशें वातावरण जगांतल्या खंयच्याच राश्ट्रांत दिसनाशिल्लें. अशे परिस्थितींत मनशाची अधोगती थांबोवपाखातीर मानवनिश्ठ अशा तत्त्वगिन्यानाची गरज निर्माण जाली.

नैतिक आनी संस्कृतीक मुल्यांचेर आदारिल्ली समाजवेवस्था घडोवपाखातीर संसदीय लोकशायी, तत्त्वगिन्यान आनी मार्क्साच्या अनुयायांनी ताच्या विचारांसावन विकसीत केल्लें आनी अधिकृत म्हूण मांडिल्लें मार्क्सवादी तत्त्वगिन्यान ह्या दोगांयकडल्यान एका वेगळ्या समाजीक आनी राजकी तत्त्वगिन्यानाची गरज आशिल्ली. मनशाचे प्रकृतीची घडण, तिच्यांत आसपाविल्लयो मुळाव्यो शक्ती आनी प्रेरणा आनी मनशाची समग्र परिस्थिती हांच्या आकलनाचेर हें तत्त्वगिन्यान आदारिल्लें आसूंक जाय. 'नवमानवतावाद' ह्या नांवान रॉय हाणें डिसेंबर १९४६ त हें तत्त्वगिन्यान बावीस सुत्रांच्या स्वरुपांत जगामुखार मांडलें.

(१) मनीस हो नियमबद्द आनी सुसंवादी अशे सैमीक वेवस्थेचो घटक आसा आनी ह्या स्वरुपाच्या सैमांतल्यान ताचो उदय जाला; देखून मनीस हो स्वभावानूच विवेकी (rational). विवेक म्हळ्यार अणभवांत सुसंवाद सादपाची प्रेरणा आनी शक्त. निती ही विवेकाचेर आदारिल्ली आसा वा निती हें विवेकाचें वेव्हारीक रूप. कारण, निती म्हळ्यार मनशामनशां भितर सुसंवादी संबंद आसप, मनशाची विवेकशीलताय आनी ताची नैतीक प्रेरणा म्हळ्यार नियमबद्द सैमाचें मनशाचे जाणविकायेंत पडिल्लें पडबींब. तेन्ना विवेकाक आनी नितीक वैश्विक अधिश्ठान आसा.

(२) नवमानवतावादाचो दुसरो मुळावो सिद्धांत असो की, व्यक्ती हें समाजाचें मूळ. समाज हो व्यक्तींपसून तयार जाल्लो आसता आनी सूख, ज्ञान, स्वातंत्र हीं सगळीं मुल्यां मनशामदीं वसतात. समूह ही मुळावी वास्तवताय आनी समुहाचो अविभाज्य घटक म्हणूनूच व्यक्तीक अस्तित्व आनी मोल आसता, अशी नदर हेगेलच्या प्रभावाक लागून मार्क्सांत दिश्टी पडटा. नवमानवतावादाक तो पुराय मान्य ना. व्यक्ती मुळावी आनी मुखेल आसून राश्ट्र, वंश, वर्ग आदी सगळ्या तरांचे समूह गौण आनी दुय्यम आसात. स्वतंत्र, सार्वभौम व्यक्तींनी एकमेकांकडेन सुसंवादी आनी परस्परांक हिताचे अशे संबंद प्रस्थापीत करून घडयल्लो समाज म्हळ्यार आदर्श समाज. तेन्ना खंयच्याय समुहाच्या, वर्गाच्या वा राश्ट्राच्या कल्याणाखातीर वा महिम्याखातीर व्यक्तींच्या हिताचो बळी दिवप अनैतिक.

मनशामदीं स्वातंत्र्याची आनी तेचप्रमाण ज्ञानाची प्रेरणा सभावताच आसा. स्वातंत्र्याची प्रेरणा म्हळ्यार स्वता आसपाची प्रेरणा. हेर जनावरां प्रमाण स्वताचें अस्तित्व तिगोवन धरपाची एक मुळावी प्रेरणा मनशाकडेन आसता. हे प्रेरणेचें सजाण स्वरूप म्हळ्यारूच स्वातंत्र्याची प्रेरणा. तेन्ना आपल्या स्वातंत्र्यांत एकसारकी वाड करीत रावप, ही मनशाची प्रेरणा आसा, अशें मानचें पडटा, तशेंच आपल्या परिसराचें यथार्थ ज्ञान करून घेवनूच आपूण आपलें अस्तित्व तिगोवन धरूंक शकता आनी देखून ज्ञानाची इत्सा ही मनशाची मुळावी प्रेरणा. आपल्या परिसराक तोंड दिवन आपलें अस्तित्व तिगोवन धरपाक ज्ञान - म्हळ्यार सम्पक थरिल्ल्यो कल्पना - उपेगी आसतात आनी देखून ज्ञानाक मोल आसा; पूण मनशान एकदां ज्ञान मेळयलें की तें स्वताच्या सभावधर्माक अनुसरून - अणभव आनी तर्क हांचेर आदारिल्ल्या नेमांक अनुसरून - विकास पावता आनी ह्या वाडट्या ज्ञानाचो उपेग करून मनीस आपल्या भौतिक आनी समाजीक परिसराक आनी स्वताकूय मोडण दिवंक शकता.

देखून मनीस आपल्या फुडाराचो शिल्पकार आसता. मनशाची जाणविकाय, ताचे विचार हे उत्पादन पद्दतीचेर आदारिल्ल्या समाजीक संबंदांचें ताच्या मनांत पडिल्लें फकत पडबींब आसता, विचार हे समाजीक आनी अर्थीक परिस्थिती घडयनात, जाल्यार समाजीक आनी खास करून अर्थीक परिस्थिती विचारांक घडयता. ताचे उरफाटे खूबदां विचार हे समाजीक, अर्थीक परिस्थितीक घडयतात; ते परस्परावलंबी आसतात, अशें नवमानवतावाद मानता.

रॉय हाचो नवमानवतावाद राश्ट्र वा वर्ग हांच्या बंधनावेल्यान वचून सबंद मनीसकुळयेचो विचार करता. राश्ट्रवादाचे मर्यादेक लागून संवसारीक प्रश्नांची उपेक्षा करतात. एकमेकांकडेन सहकार अशक्य जाता. देखून राश्ट्रीय मर्यादा हुंपून सगळ्या जगांत एक संघराज्य निर्माण जावप गरजेचें आसा, अशें रॉय म्हण्टा. ह्या संवसारीक स्वरुपाच्या राज्यांत पुराय मनीस समाज एकात्म स्वरुपांत दिसतलो, अशें ताचें सपन आशिल्लें आनी तेखातीर अर्थीक - राजकीय पुनर्रचणूक अनिवार्य आसा, अशें मत ताणें मांडलें.

मानवेंद्रनाथ रॉय हाणें नवमानवतावादाचीं तत्त्वां मांडलीं आनी तेप्रमाण मनशाचें वर्तन कशें आसचें हाचीय विस्कटावणी केली. राजकीय विचार आनी प्रत्यक्ष अणभव ताचेकडेन आशिल्ल्यान कितल्योशोच तपशीलवार सुचोवण्यो ताच्या विवेचनात सांपडटात. तातूंत आदर्शवादाचो भाग खूब आसा, हें खरें.

भांडवलशायी अर्थपद्दतींत पिळवणूक आनी विशमताय आसता, जाल्यार साम्यवादी वेवस्थेंत विचारीक दास्यत्व आनी व्यक्तीमत्वाचो लोप हे दोश निर्माण जातात. तेभायर हे वेवस्थेंत अर्थीक समताय ही मृगजळासारकीच थरता. संसदी लोकशायेंतलें सत्तेचें राजकारण सगळ्यांचे मतींत आयिल्लें. अशे परिस्थितींत सर्वंकश हुकूमशाय त्याज्य आशिल्ली आनी मनशाक प्राधान्य दिवपी, नैतिकतेचो आदार आसपी कसले तरी व्यापक विचारप्रणालीची गरज आशिल्ली. मार्क्सवादाचे पलतडीं वचून तें साध्य जातलें अशी रॉय हाची खात्री आशिल्ली. देखुनूच, विचारीक इतिहासांत रॉय हाका म्हत्वाची सुवात दितात.

– कों. वि. सं. मं.

**नवरत्नां :** भूगर्भांतल्या (खनिजी) णव तेजस्वी वस्तुंची नांवां. वज्र, माणिक, मोतीं, पाचू, पुष्कराज, नील, गोमेद, वैडुर्य आनी पोवळें ह्या नवरत्नांक महारत्नां अशेंय म्हणप जाता. हाचेभायर आनीकय उपरत्नां आसात. सैमीक रुपांत खनिज द्रव्यांत आशिल्ल्या रत्नसांठ्याचेर फाव तशी प्रक्रिया करून रत्नाक आकार दिवप जाता.

दर एका रत्नाचे गुणदोश आसता अशें मानप जाता. योग्य तरेचें रत्न धारण करतल्याक शुभफळ मेळटा तर निर्दोश रत्नां धारण करतल्याक अशुभ फळ मेळटा असो संकेत आसा.

रत्नाचो उपेग ऋग्वेद काळापासून जाल्लो दिसता. तेन्नासावन रत्नांचें म्हत्व तीन गजालींभोंवती आशिल्लें दिश्टी पडटा. ताचे लाक्षणीक गुणदोश, ताचो अलंकारीक उपेग आनी ताचें वैभवमुल्य. रत्न संपादन हें वैभवाचें लक्षण समजप जाता. रत्नाची सोबितकाय, ताची दुर्मिळकाय, तगसाण आनी ताच्या शकून गुणां खातीर मनशांक जाल्लो रत्नाचो हावेस सगळ्या काळांनी दिसता. आयच्या काळांत लेगीत तो उणो जांवक ना. आदल्या तेंपार रत्नहार वा रत्नजडित मुकूट ह्यो वस्तू राजघराण्याखातीर वैभवाचें प्रतीक आसल्यो. हे बाबतींत ब्रिटीश, इराणी, तुर्की, मोगल हीं राजघराणीं गिरेस्त आशिल्लीं.

१८ व्या शेंकड्यामेरेन भारत ही रत्नांची एक मुखेल बाजारपेठ आशिल्ली. रत्न ही मोलादीक वस्तू आशिल्ल्यान तिचें खरें-फटपण पारखुपाखातीर तांची पारखणी करप म्हत्वाचें आसा. अशी पारखणी करपी हे विदयेंत तज्ञ आशिल्ल्या मनशाक रत्नपारखी म्हण्टात. रत्नपरिक्षा (बुद्धभट्ट), अगस्तीमत (अगस्ती), नवरत्नपरिक्षा (सोमेश्वर), रत्नसंग्रह, रत्नसमुच्चय, लघुरत्न परिक्षा आनी मणिमहात्म्य हे रत्नपारखणी वेले कांय पोरणे ग्रंथ आसात. कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांतय रत्नपारखासंबंदीं विवेचन केल्लें आसा.

हालीं तेंपार कृत्रीम तशींच नकलीं रत्नां तयार करपाचे उद्देग सुरू जाल्यात. ह्या उद्देगांनी संबंदीत घटकाचेर शास्त्रीय प्रक्रिया करून कृत्रीम तशीं नकली रत्नां तयार करप जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**नवरस :** साहित्य, नाट्य, नाच, रंग, शिल्प सारकिल्ल्या सर्जनशील शास्त्रांतल्या (कलांतल्या) णव रसांची अभिव्यक्ती. शृंगार, वीर, करूण, अद्‌भूत, हास्य, भयानक, बिभत्स, रौद्र आनी शांत अशे णव रस मानल्यात.

भरतमुनीच्या नाट्यशास्त्रांत पयले आठच रस सांगल्यात. संत कवींनी भक्ती रस हो धावो रस मानला. दर एका रसाक संबंदीत असो स्थायीभाव आसा आनी त्या त्या रसाप्रमाण ते ते गूणविकार निर्माण प्रदर्शित जातात. रती उत्साह, शोक, विस्मय, आनंद, भय, जुगुप्सा (विटयाळो) राग, शम अशे णव रसांचे णव स्थायीभाव आसात.

भरतमुनीच्या नाट्यशास्त्राप्रमाण नाटककाराचें अंतस्करण, ताची निर्मिती म्हणजे नाटक. तें करपी नट आनी आस्वाद घेवपी प्रेक्षक अशा चार सुवातींनी रसाचो संबंद येता. पयले तीन कडचे रस कोरण रूप आसून निमाणेकडचो रस फलरूप आसा, अशें ताचें मत. नाट्यकाव्यांतलो विभाव, अनुभाव आनी व्यभिचारी भाव हांचो रसिकांच्या स्थायीभावाकडेन संयोग जावन रसिकांच्या मनात रसनिर्मिती जाता.

कला अविश्कारांतल्यान कला आस्वादकांत रसनिर्मिती जावप म्हळ्यार ताच्या अंतर्मनातल्या सूप्त चित्तवृत्तींक जागृताय येवप. रस अविश्कार हो असो दोन पोडी जाता.

कला अभिव्यक्तीच्या वेळार कलाकार जे अवस्थेंत उरता तो रस ताच्या अंतरमनांत सूप्त अवस्थेंत ताच्या मनाचेर प्रभाव घालता. रसिकांची अवस्था ताचेपरस वेगळी नासता. कलेचें आस्वादन करपाचे अवस्थेंत जेन्ना रसिक उरता तेन्ना नकळटां ताच्या मनाचेर रसप्रभाव पडटा. अलिप्ततायेन रसनिर्मिती आनी रसस्वाद कितपत शक्य आसा हे शक्यतायें संबंदी बरेचशे मतभेद आसले तरी रस तन्मयता आनी रसतद्‌भवता हे कलाविश्काराचे आनी कला आस्वादाचे स्थायीभाव दिसतात.

– कों. वि. सं. मं.

**नवरात्र :** णव दीस (राती) चलपी हिंदूंचो उत्सव. आश्विन शुद्ध प्रतिपदेसावन (पाडवो) ह्या उत्सवाक सुरवात जाता. णव दीस चलपी ह्या दुर्गादेवीच्या उत्सवाक शारदीय नवरात्र अशें म्हण्टात. तशेंच ह्या उत्सवाक दुर्गापुजा वा पुजा-उत्सव अशींय नांवां आसात. राम, कृष्ण, दत्त, खंडोबा ह्या देवतांचेय नवरात्र उत्सव आसतात. पूण भारतांत, चडशा सगळ्या भागांनी देवीच्या शारदीय नवरात्राचो उत्सव व्हड उमेदीन मनयतात. हो उत्सव घरांनी तेच भशेन देवळांनीय करतात. नवरात्राचो हो उत्सव एक कुळाचार आशिल्ल्यान, तो वेग-वेगळे पद्दतींनी करप जाता.

दुगादेवीन विंगड विंगड अवतार घेवन शुंभ-निशुंभ, रक्तबीज, महिषासुर ह्या राकेसांवांगडा णव दीस झूज करून तांचो वध केलो. तेखातीर हो नवरात्राचो उत्सव करतात. विजयादसम हो तिच्या जैताचो दीस म्हणून मनयतात.

महालक्ष्मी, महाकाली आनी महासरस्वती हीं दुर्गेचीं तीन म्हत्वाचीं रुपां आसात. पाडव्या दिसा सकाळीं नवरात्रेचे पुजेक प्रारंभ जाता. पुजारी श्री गणेशपुजन करून पुण्याहवाचन करतात आनी उपरांत मातयेंची वाटकुळी वेदी तयार करून, तिचेर घटस्थापना करतात. वेदी करपाचे हे मातयेत भात, जोधळो, गंव, हरभरो, नवस, सातू, राळे, उडीद, मको अशीं णव कड्डुणां पेरतात. ही वेदी पणसाच्या पानांचे पत्रावळीचेर करतात. उपरांत हे वेदीचेर स्वस्तिवाचन करून शिंवाचेर बशिल्ले अश्टभुजांचे देवीची स्थापना

करतात. मुर्ती नासल्यार नवार्ण यंत्राची स्थापना करतात. ह्याच यंत्राम्हऱ्यांत एका घटाची स्थापना करून ताची आनी देवतेची यथासांग पुजा करतात. घट म्हळ्यार हे वेदीचेर मदीं रंगयल्लो कलश दवरतात. देवळांत पुजतात तो कलश आकारान व्हड आसता. ह्या कलशांत भांगर, रुपें, रत्न, मोतीं, पोवळें अशीं पंचरत्नां आनी अक्षता, सुपारी, तांब्याचें नाणें, रुप्याचें नाणें, फुलां, गंध, हळद-कुकूम घालून ताची पुजा करतात. कलशांत सप्तसरितांचें उदक घालतात. सप्तसरितांची पुजा करून कलशाक गेजवस्त्र म्हळ्यार कापसापसून तयार केल्लें वस्त्र घालतात. ह्या कलशाचेर आंब्यांचीं वा विड्याचीं पानां दवरून ताचेर नाल्ल दवरतात. हाकाच घट अशें म्हण्टात. ह्या घटाचेर फुलांची माळ बांददतात. घटाम्हऱ्यांत नंदादीप पेटोवन दवरतात. ताचीय पुजा करतात. सगळी पुजा जावन घटाचेर माळ चडयतकच घटाचेर, नंदादीपाचेर आनी देवतेचेर मंत्राक्षता उडयतात. इतली सगळी पुजा जातकच घटस्थापना जाली आनी देव बसले अशें म्हण्टात.

व्रत करपी मनशान णव दीसमेरेन उपास करून व्रतस्थ रावपाचें आसता. आश्विन शुद्ध नमीमेरेन हें व्रत चलता. ह्या व्रतांत णव दीस सप्तशतीचो पाठ करतात, अखंड दीप लायतात, घटाचेर दीसपट्टी एक वा चडट्या क्रमान माळ बांदतात. कांयकडेन होमहवन आनी बलिदानूय करतात. घटालागीं पेटयतात तो नंदादीप अखंड पेटपाचो आसता. णव दीसमेरेन हातूंतली वात बदलूंक उपकारना वा तो दिवो पालोवंक जायना असो शास्त्रसंकेत आसा. णव दीस मेरेन त्या घटाची त्रिकालपुजा, चंडीपाठ, महानिवेद्य आनी 'माळ चडोवप' असो विधी करपाचो आसता.

णवव्या दिसा विधिवत रितीन घटाचें आनीक देवतेचें उत्थापन करतात. त्या दिसा पुजाअर्चा, चंडिपाठसमाप्ती, कुमारीपुजन आनी महानिवेद्य जातकच ब्राह्मण - सवायशिणींक संतर्पण करतात. उपरांत 'माळ परतप' असो विधी जाता. हो विधी जातकच घट आनी देवतेचें विसर्जन करतात. ह्या णव दिसांमदीं ते मातयेचे वेदीचेर किल्लल्लें तण कापून माथ्यांत माळटात. अशें हें नवरात्र व्रत दुर्गापुजेचे भावनेन करतात. हें व्रत केल्ल्यान दुर्गादेवी सगळ्या कार्यांनी येस, धन, सूख आनी वैभव दिता अशी उदात्त भावना आसा.

गोंयांत हो उत्सव म्हणून मनयतात. चडशा सगळ्या देवळांनी पयल्या दिसा घटस्थापना आनी दर दिसा रातीचें भजन-किर्तन पुराण आनी उपरांत मखरोत्सव अशी कार्यावळ आसता. णव दीस, णव आसनांचेर देवता आरूढ जाता अशें दाखोवन तो दीस वेगवेगळे रितीन मनयतात.

असो हो नवरात्राचो उत्सव मनोवपाची वेगवेगळ्या प्रांतांनी वेगवेगळी प्रथा आसा. गुजरात आनी सौराष्ट्रांत, वण्टीचेर दुर्गादेवीचें प्रतीक आशिल्लो शेंदुराचो त्रिशुळ काडून उपरांत घट पुजतात. रातच्यो, गुजराती बायलो ह्या घटाभोंवतणी फेर धरून गरबा नाच करतात. महाराष्ट्रांतल्यो बायलो शक्तीदेवी मुखार पदां गायतात. बंगालांत ह्या सणाक राष्ट्रीय म्हत्व आसा. थंय हो उत्सव व्हड प्रमाणाचेर मनयतात. देवीमुखार गायन, वादन, नाच, नाट्य असल्यो करमणुकीच्यो कार्यावळी करतात. ह्या दिसांनी नवे संकल्प सोडटात. थंय देवतेमुखार बळी दिवपाची चाल आसा.

तमीळनाडूंत नवरात्रांक खूब म्हत्व आसा. थंय हाका चडसो बायलांचो सण मानतात. णववे रातीक सरस्वतीपुजा करतात. नेपाळांत शक्तीदेवीचे उपासक आशिल्ल्यान थाटामाटांत नवरात्र मनयतात.

ह्या शारदीय नवरात्र उत्सवाभाशेन हेर कांय नवरात्र उत्सव मनयतात ते अशे - मार्गशीर्ष म्हयन्यांत शुद्ध पाडव्यासावन नमीमेरेन जेजुरीच्या खंडोबाची नवरात्र, चैत्रांत शुद्ध पाडव्या सावन रामनमीमेरेन 'श्रीरामनवरात्रारंभ' आनी 'वासंतिक देवी नवरात्र', ज्येष्ठ शुद्ध पाडवो ते नमीमेरेन 'ज्येष्ठ दशहरा नवरात्रारंभ', पौष शुद्ध अश्टम ते पौष पुनवेमेरेन 'शाकंभरी नवरात्र'.

– माधव गोविंद भुस्कुटे

**नवरोज :** पारशी लोकांच्या वर्साचो सुरवातीचो दीस. सुर्य मेश राशींत वता तेन्ना (२० वा २१ मार्च) पारश्यांचें नवें वर्स सुरू जाता. इराणांत पारशी लोकांचें राज्य आसतना पारशी राजा आपल्या राज्यारोहणाचो दीस मनयताले. ताकाय 'नवरोज' अशेंच म्हण्टाले. मुसलमानांनी इराणाचो ताबो घेतकच ताणींय हो सण चालू दवरिल्लो. अकबर बादशहान दिल्लीक नवरोज हो सण मनोवपाची प्रथा सुरू केली. ती मोगल बादशाहीचे अखेरमेरेन चालू आशिल्ली. ही परब पांच दीस मनयताले. ह्या दिसांनी नवीं नाणीं तयार करताले आनी मीना बाजार भरयताले. पुराय दीस मजेंत घालयताले. ह्या दिसा नवे गंव आनी हेर धान्यां, भाजीपालो, फळां, वेगवेगळे खावपाचे पदार्थ, गुलाबपाणी, फुलां, हारसो आनी हेर वस्तूंची सजावट करून भोंवतणीं आरास करतात. पारशी लोक एकमेकांच्या घरा वतात. भेटूंक आयिल्ल्या लोकांक गुलाबपाणी शिंपडून येवकार दितात. मागीर ताकां हारसो दाखयतात. हारशांत पळेतकच मनशाक सोंपेपणीं हांसूंक येता. वर्सभर ताणें अशेंच हांसत रावचें हो ताचेफाटलो संकेत आसता. कांय पारशी लोकांमदीं ह्या दिसा पितरां खातीर प्रार्थना करपाची प्रथा आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**नवरोजी, दादाभाई :** (जल्म : ४ सप्टेंबर १८२५, मुंबय; मरण: ३० जून १९१७, मुंबय).

एक व्हड फुडारी, अर्थशास्त्रज्ञ आनी भारतीय राश्ट्रीय कॉंग्रेसचो एक संस्थापक. मुंबयच्या एका आचार्य पारशी कुळांत ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचे नांव नवरोजी पालनजी दोर्दी आनी आवयचें नांव माणेकबाई. ताचे पिरायेच्या चवथ्याच वर्सा, ताच्या बापायक मरण आयलें. ताचें सुर्वेचें शिक्षण नेटिव्ह एज्युकेशन सोसायटीचे शाळेंत जालें. कॉलेजांत वचचे पयलीं, पिरायेच्या इकराव्या वर्सा, शोराबजी श्रॉफ हाचे सात वर्सांचे गुलाबी नांवाचे चलयेवांगडा दादाभाईचें लग्न जालें. दादाभाईक एक पूत आनी दोन धुवो अशीं तीन अपत्यां जालीं.



एल्फिन्स्टन इन्स्टिट्यूशन आनी एल्फिन्स्टन म्हाविद्यालयांत शिक्षण घेवन १८४५ वर्सा ताका पदवी मेळ्ळी. १८५० वर्सा एल्फिन्स्टन

म्हाविद्यालयांत, गणित आनी तत्त्वज्ञान ह्या विशयांचो सहाय्यक प्राध्यापक म्हणून दादाभाईची नेमणूक जाली. ह्या पदाचेर नेमणूक जाल्लो, ह्या म्हाविद्यालयांतलो दादाभाई हो पयलो भारतीय.

कॉलेजांत अध्यापन करतनाच ताणें मुंबयंत समाज सुदारणेच्यो कितल्योशोच चळवळी उबारल्यो. स्टुडंट्स लिटररी अँड सायंटिफिक सोसायटी ह्या नांवाची संस्था स्थापून, तिचे मराठी आनी गुजराती ज्ञानप्रसारक मंडळी ह्या नांवाचे दोन प्रसिद्धी फांटे सुरू केले. ताणेंच पयलीं मराठी आनी पारशी चलयांच्यो शाळा काडल्यो. तेच भाशेन बाँबे प्रेसिडॅन्सी असोसिएशन, इराणी फंड, पारशी जिमखाना, विडो रिमॅरेज ॲसोसिएशन, फ्रामजी इन्स्टिट्यूट, व्हिक्टोरिया अँड आल्बर्ट म्युझियम ह्या संस्थांची स्थापणूक करपाक फुडाकार घेतलो. १८५१ वर्सा ताणें 'रास्तगोफ्तार' (सत्यवादी) ह्या नांवाचें गुजराती दिसाळें सुरू केलें.

लिवरपूलाक नव्यानूच सुरू जाल्ले कामा घराण्याचे वेपारी कुंपनीचो भागीदार म्हणून जून १८५५ त तो इंग्लंडाक गेलो, थंय तो पंदरा वर्सां रावलो. थंय ताचो 'मॅन्चेस्टर कॉटन सप्लांय असोसिएशन', काउन्सिल ऑफ लिवरपूल', 'अथेनियम', 'नॅशनल इंडियन असोसिएशन', ह्या संस्थांकडेन लागींचो संबंद आयलो.

१८६५-६६ मेरेन ताणें लंडनचे युनिव्हर्सिटी कॉलेजींत गुजरातीचो प्राध्यापक म्हणून काम केलें. १८६५ त लंडनांत डब्ल्यू. सी. बॅनर्जी हाच्या सांगातान ताणें 'लंडन इंडिया सोसायटी' हे संस्थेची स्थापणूक केली. १९०६ मेरेन तो हे संस्थेचो अध्यक्ष आशिल्लो. १८६२ वर्सा दादाभाई 'कामा अँड कंपनी' तल्यान भायर सरलो आनी ताणें स्वताची 'दादाभाई नवरोजी अँड कंपनी' ही कंपनी उबारली.

दादाभाईचो इंग्लंडाक वचपाचो मुखेल हेत थंय वचून थंयची राजवेवस्था पळोवंची तशेंच थंयचें लोकमत जाणून घेवचें असो आशिल्लो. भारतांत सुदारणा घडोवपाची जाल्यार पयलीं ब्रिटनांतलें लोकमत तयार करपाक जाय, हे जाणविकायेन ताणें १८६६ च्या निमाणें वंगीय फुडारी व्योमेशचंद्र बॅनर्जी हाच्या आदारान 'लंडन इंडियन सोसायटी' हे संस्थेची स्थापणूक केली. इंग्लीश आनी हिंदी लोकांक एकठांय हाडून हिंदी प्रस्नांचेर भासाभास करची, असो हे संस्थेचो हेत आशिल्लो. हे संस्थेन इंग्लंडांत, पन्नास वर्सां भारताचे वतीन प्रचार केलो. हीच संस्था उपरांत 'इस्ट इंडिया असोसिएशन' जाली.

१८७३ वर्सा भारतीय अर्थकारणाविशीं नेमिल्ले संसदी समिती सामकार (फॉसेट कमिटी) दादाभाईन गवाय दिली. ही गवाय दितना ताणें, भारतातले करभार प्रमाण सगळ्यांत चड आसून भारतीयांचें सरासरी वर्सुकी उत्पन्न फकत विसूच रुपया आशिल्लाचें पुराव्यासयत दाखोवन दिलें. तेन्नाच ताणें 'हिंदुस्थानाचें दळडीर' ह्या विशयाचेर इंग्लिशींत एक पुस्तक बरयलें.(Poverty and unbritish rule in India - 1901)

१८७४ वर्सा, बडोदें संस्थानाचो दिवाण म्हणून दादाभाईची नेमणूक जाली. पूण एका वर्साभितरूच महाराज आनी रेसिडँट हांचेमदीं जाल्ल्या मतभेदाक लागून दादाभाईन ह्या पदाक सोडचिट दिली. जुलय १८७५ त तो मुंबय नगरपालिकेचो वांगडी म्हणून आनी नगरपालिकेचे शार परिशदेचेरूय वेंचून आयलो. १८७६ वर्सा ह्या दोनूय पदांक सोडचिट दिवन तो लंडनाक गेलो. १८८३ वर्सा तो 'जस्टिस ऑफ ध पीस' जालो आनी परत एकदां मुंबय नगरपालिकेचेर वेंचून आयलो. ऑगस्ट १८८५ वर्सा गव्हर्नर लॉर्ड रे हाच्या निमंत्रणा वयल्यान दादाभाईन मुंबय विधानपरिशदेचें वांगडीपण आपणायलें. त्याच वर्सा ताणें, भारतीय राश्ट्रीय काँग्रेसचे स्थापणुकेंत मोलादीक वावर केलो. काँग्रेसीच्या अध्यक्षपदाचो भोवमान दादाभाईक, १८८६, १८९३, १९०६ असो तीन खेपे फावो जालो. १८९७ वर्सा कमिशनामुखार आनी १८९८ वर्सा इंडियन करन्सी कमिटीमुखार ताच्यो साक्षी जाल्यो.

१९०२ वर्सा दादाभाई, लंडनच्या हाऊस ऑफ कॉमन्सांत लिबरल पक्षावतीन वांगडी म्हणून सॅन्ट्रल फिन्झबरींतल्यान वेंचून आयलो. ब्रिटीश संसदेचें वांगडीपण मेळोवपी आनी भारताच्या स्वातंत्र्याखातीर संसदेत आवाज करपी दादाभाई हो पयलो भारतीय. ह्याच वर्सा ताणें 'पॉवटी अँड अन्ब्रिटीश रूल इन इंडिया' हें पुस्तक उजवाडायलें. हें ताचें पुस्तक खूब गाजलें. ह्या पुस्तकांत 'पॉवटी इन इंडिया', द कंडिशन ऑफ इंडिया' असले वेंचीक निबंद, हाऊस ऑफ कॉमन्सांतली भाशणां, 'रॉयल कमिशन ऑन धी ॲडमिनिस्ट्रेशन ऑफ एक्स्पेंडिचर इन इंडिया' ह्या आयोगाकडेन केल्लो पत्रवेव्हार, हेर वेंचीक भाशणां हांचो आस्पाव जाला.

विंगड विंगड मंडळां, समित्यो आनी संस्था हातूंतल्यान दादाभाईन दिल्लीं व्याख्यानां, 'दादाभाई नवरोजीस स्पीचीस अँड रायटिंग्स' ह्या नांवान ग्रंथाच्या रुपांत उजवाडा आयलीं. उद्देगीक आयुक्तांची नेमणूक आनी कामगारांक संरक्षणाचो हक्क ह्या दोनांविशीं एक येवजण उजवाडायली.

पंदरा वर्सां इंग्लंडाक राविल्ल्यान ताचो परिणाम दादाभाईच्या विचारांचेर जालो. ब्रिटीश लोकांची अर्थवेव्हाराची आनी वेपारी तंत्राची वळख जाली. दादाभाईन आपल्या राश्ट्रवादाक अर्थीक अधिश्ठान दिलें. देशाची अर्थीक दुर्बळटाय आनी राजकीय दास्यत्व सोंपोवपाखातीर खूब कश्ट घेतले आनी पिरायेच्या अंयशाव्या वर्सा लेगीत बंगालाचे फाळणी आडचे चळवळींत ताणें फुडाकार घेतलो. ताणें हिंदी राजकारणाची आनी अर्थकारणाची बसका घाली.

भारताच्या आर्विल्ल्या इतिहासांत दादाभाईक खुबूच वयली सुवात फावो जाता. भारतीय स्वातंत्र्याचे सनदशीर चळवळीचो तो प्रवर्तक आशिल्लो. तेखातीर भारतीयांनी, व्हड भोवमानान ताका 'आर्विल्ल्या भारताचो पितामह' अशी पदवी दिल्या. तो जसो बुद्धिवान आशिल्लो तसोच तत्त्वशील आनी यत्नवादी लेगीत आशिल्लो.

ग्रंथ आनी इश्ट हांकां लागून दादाभाईचें व्यक्तिमत्व चड विकसीत जालें. फिर्दौसीचो 'शाहनामा', वॉट हाचो 'इंप्रुव्हमेंट ऑफ मायंड', तशेंच कार्लायल, मिल, स्पॅन्सर हांच्या ग्रंथांचो दादाभाईचेर खूब प्रभाव पडलो. विशुद्ध विचार, आचार आनी उच्चार हांचें म्हत्व सांगपी 'द ड्युटीस ऑफ द झोरोस्ट्रिअन्स' हो ग्रंथ दादाभाईन बरयलो. ताचे खूब देशी-परदेशी इश्ट आशिल्ले. ताची खाजगी जीण सादी पूण भारदस्त आशिल्ली. ताच्या पत्रांतल्यान ताच्या सत्यप्रिय आनी परोपकारी सभावाची आनी चारित्र्याची वळख मेळटा. ताका ग्रंथांची खूब ओड आशिल्ली. ताणें आपली व्हड ग्रंथसामुग्री 'बॉम्बे प्रेसिडॅन्सी असोसिएशन' हे संस्थेक ओंपली. 'फ्रामजी इन्स्टिट्यूट', 'इराणी फंड', 'पारसी जिम्नेशियम', 'विडो रीमॅरेज असोसिएशन', 'व्हिक्टोरिया अँड आल्बर्ट म्युझीयम', रॉयल एशियाटीक सोसायटी' अशा खूबशा संस्था-संघटनांची दादाभाईन स्थापणूक केल्ली.

- दिलीप बोरकार

पूरक नोंद : पॉवटी अँड अनब्रिटिश रूल इन इंडिया.

**नवस :** (पळेयात आंगवण).

**नवसागर :** नवसागराचें रसायनीक नांव आमोनियम क्लोरायड. हाका 'साल आमोनियाक' अशेंय म्हण्टात. पुर्विल्ल्या काळांक सावन लोकांक नवसागर खबर आसा. पयलींच्या काळांत इजिप्त देशांत ऊंट, घोडे, मेंढरां आनी हेर गोरवांच्या शेणापासून ऊर्ध्वपातन (distillation) प्रक्रिया करून नवसागर तयार करताले. १६२० वर्सा अँजलस सेला हाणें आमोनिया आनी हायड्रोक्लोरिक ॲसिड हांचेपसून सगळ्यांत पयलीं कृत्रीम पद्दतीन नवसागर तयार केलो. अठराव्या शतमानांत गुडविन हाणें नवसागर तयार करपाची एक खाशेली पद्दत सोदून काडिल्ली. मीठ तयार करतकच उरिल्ल्या द्रवांत कितल्याशाच दिसांचें शेळें मूत भरसून ताचेपसून नवसागर तयार करपाचो कारखानो ताणें सुरू केल्लो. पंजाब राज्यांतल्या कांय खेड्यांच्या वाठारांनी 'पझवाझ' नांवाचे विटो भाजपाचे भाटयेच्या थंड भागापसून अशुद्ध नवसागर तयार करतात. हे भाटयेंत विटो भाजपाखातीर शेण वापरतात. असो नवसागर शुद्ध करून मागीर तो विकपाखातीर धाडटात.

जंय ज्वालामुखी आसता त्या लागसारच्या भागांत नवसागर सैमीक रितीन सांपडटा. हायड्रोक्लोरिक ॲसिड आनी आमोनिया वायू हांचेपसून शुध्द नवसागर मेळटा. आमोनियम सल्फेट आनी आमोनियम क्लोरायड हांचो जलीय विद्राव (aqueous solution) तापयतकच सोडियम सल्फेट वेगळें जाता आनी नवसागर विरगळिल्ल्या रुपांत विद्रावांत उरता. ह्या विद्रावापसून स्फटिकीकरणांत नवसागर वेगळो करून शुद्ध करतात. सॉल्वे नांवाचे पद्दतीन धुवपाचो सोडा तयार करतात. उपपदार्थ म्हणून नवसागर मेळटा. उपेगाप्रमाण नवसागराच्यो वेगवेगळ्यो प्रती थरयल्ल्यो आसात.

शुद्ध नवसागर हो धव्या रंगाचो आसून तो चडसो खडपांच्या रुपांत आसता. हो पदार्थ रुचीक मातसो खारसो आसता. ताका वास आसना. ताची रचणूक तंतूमय स्फटिकी तरेची आसता. तो उदकांत सहज विरता. तो उदकांत विरतकच उदकाचें तापमान उणें जाता. तो आल्कोलांत थोड्याभोव प्रमाणांत विरता. सांठयल्लो आसतना वा उक्तो उरत जाल्यार नवसागरांतल्यान आमोनिया वता. नवसागराचें खाशेलें गुरूत्व (Specific gravity) १.५२६ इतलें आसता. ३४० डिग्री सॅ.चेर ताचें उन्नयन (Sublimation) जाता. अशा वेळार ताचें मातशें विघटन (decomposition) जाता आनी ३५० सॅ. चेर ताचें ८३ टक्के विघटन जाता.

नवसागर बॅट्यांनी वापरतात. रंगप्रक्रियेंत(dyeing) आनी छापणावळींत रंगबंधक (mordant) म्हणून ताचो वापर जाता. जस्तचेय (galvanisation) प्रक्रियेंत नवसागर वापरतात. विद्युत् घट निर्मितींत, विद्युत विलेपनांत आनी कलय हातूंत अभिवाह (flux) म्हणून नवसागर वापरतात. नाकांत ओडपाच्या वखदांत तशेंच खोंकलेवयल्या वखदांनी नवसागर वापरतात. रंजकां आनी आमोनियाचीं हेर लवणां तयार करतना नवसागराचो उपेग जाता. सारें म्हणुनूय नवसागर वापरतात. नवसागर आशिल्लें सारें कडुणांक मानवता.

– अरूण प्रियोळकार

**नवो सोमार :** दिवचलचे श्री शांतादुर्गा देवीचो वर्सुकी पालखी उत्सव. श्री शांतादुर्गा ही दिवचलची ग्रामदेवता आसून, तें एक जागृत देवस्थान मानतात. दिवचलच्या ग्रामस्थांमदीं हे देवीक आगळी - वेगळी सुवात आसा. खंयचेय शुभ कार्य करता आसतना तिचें नामस्मरण केलेबगर गांवचे लोक फुडें सरनात. हे देवीचो वार सोमार आशिल्ल्यान दर सोमारा हे देवीचें दर्शन घेवपाचो नेम आसा. तिची सप्तकी पालखी काडटात, पूण चातुर्मासांत श्री देवीची पालखी मिरवणूक बंद दवरतात. चातुर्मास सोंपतकच ज्या सोमारा सावन सप्तकी पालखी उत्सव परत सुरू जाता तो सोमार 'नवो सोमार' आसता.

ह्या दिसा श्री शांतादुर्गा देवीच्या देवळांत दीसभर धर्मीक विधी जातात. सांजवेळची देवीची पालखी काडटात. देवीची पालखी भितल्ली पेठ, सोमावार पेठ, भायली पेठ, बड्डें, सुंदर पेठ आनी हेर भागांतल्यान भोंवून दुसऱ्या दिसा दनपारां देवळांत पावता. पालखे वांगडा भजनाचें दिंडी पथक आसता. भितल्ली पेठ (मठ), बस स्थानक आनी बड्डें (वडा लागसार) ह्या तीन सुवातांचेर गायनाच्यो बैठकी आसतात. पालखी भोंवता आसतना दरेक घरांतल्यान दिवे पेटोवन देवीक येवकार दितात. सवायशिणी बायलो खणा - नाल्लान देवीची होंटी भरतात.

देवीचो पालखी उत्सव म्हळ्यार दिवचलच्या लोकांचो आनंदोत्सव आसता. ह्या दिसा आसा थंयच्यान देवीचे म्हाजन आनी भाविक येतात. ह्या दिसा घरांक रंग काडून ओडलायणी रोसणाय करप जाता. कांय लोक वेगवेगळ्या चित्रांचे आकर्शक देखावे करून घरामुखार दवरतात. चित्र प्रदर्शनां, देखावे, रांगोळी प्रदर्शनां हें नवो सोमार उत्सवाचें मुखेल खाशेलपण आसा. ह्या दिसा नामनेच्या गायक कलाकारांच्यो गायनाच्यो मैफिली रातभर चलतात. तशेंच ह्या उत्सवा निमतान शारांत वेगवेगळ्या वस्तूंची फेरीय भरता.

सुर्वेच्या काळांत देवीचो शारांतल्यान पालखेवयलो संचार इतलेंच स्वरूप आशिल्ल्या ह्या नव्या सोमाराक आज व्हड जात्रेचो रूपकार प्राप्त जाला.

– कों. वि. सं. मं.

**नशाबंदी :** सोरो आनी घुवळीवखदां हांच्या उत्पादनाचेर, वांटपाचेर आनी सेवनाचेर घाल्ली बंदी. पुर्विल्ल्या काळांत लेगीत मनीस कसल्याय तरी मादक पदार्थांचें सेवन करतालो हाचे साबार पुरावे आसात. ह्या पुराव्यांवरवीं त्या लोकांक नशा हाडपी कांय वनस्पत आनी द्रव्यांविशीं खबर आशिल्ली हें स्पश्ट जाता. शास्त्रीय गिन्यानावांगडा मादक पदार्थ उत्पादनाचेंय गिन्यान वाडत गेलें. कांय समाजांनी सोऱ्याचो वा मादक पदार्थांचो संबंद धर्मीक विधींकडेन आनी सुवाळ्यांकडेन आशिल्ल्यान ह्या गिन्यानाक त्या त्या समाजांत म्हत्वाची सुवात मेळ्ळ्या.

नशा करप्याकडच्यान वैयक्तिक, समाजीक आनी राश्ट्रीय जिणेचेर वायट परिणाम जातात, तशेंच त्या त्या राश्ट्रांची अर्थीक स्थितीय इबाडटा. हाका लागून सुर्वेच्या काळासावन नशाबंदीचे यत्न चालूच आसात. सोम वा सोरो पियेतकूच मनीस जनावराभाशेन वागपाक लागता, हाका लागून सोरो पियेवपाक, दिवपाक तशेंच आपणावपाकूय हिंदूंच्या धर्मग्रंथांनी विरोध केला. मनूस्मृतीप्रमाण सोरो पियेवप हें पांच म्हापातकांतलेंच एक. बौद्ध, ज्यू, इस्लाम आनी हेर कांय धर्मांनीय सोऱ्याक विरोध केला. ग्रीसी आनी रोमी बुदवंतांनीय सोऱ्याक खर विरोध केल्ल्याची म्हायती मेळटा.

मध्य युगांतूय सोऱ्याचो उपेग भौशीक जिणेंत खूब प्रमाणांत जातालो.

आयज लेगीत सोऱ्याचो कांय देशांनी धर्मीक विधींकडेन आनी कांय सुवाळ्यांकडेन लागींचो संबंद आसा. पूण प्रबोधन काळासावन त्या देशांनी सोऱ्याचेर बंदी घालपाचे यत्न जाल्ले दिश्टी पडटात. इंग्लंडांत ह्या संबंदांत मॅट्रोपॉलिटन पोलिस अॅक्ट (१८३९), वेल्स संडे क्लोझिंग अॅक्ट (१८८१), इनटॉक्सिकेटिंग लिकर्स अॅक्ट (१९०१), टॅम्परन्स अॅक्ट (१९१९) अशा प्रकाराचे साबार कायदे थंय केल्ले. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत अमेरिकेंत सोऱ्याआड जाल्ली चळवळूय खूब प्रसिद्द आसा. १८५० सावन ते १९२० मेरेन अमेरिकेंत सोऱ्याबंदीच्यो तीन व्हड चळवळी जाल्यो. विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक साबार भौशीक संस्थांनी आनी बायलांच्या संघटनांनी सोऱ्याचेर बंदी हाडपाखातीर चळवळी सुरू केल्ल्यो. पूण पयल्या म्हाझुजाउपरांत सोऱ्याचेर पुरायपणान बंदी हाडपाक विरोध जाल्ल्यान १९३१ उपरांत साबार संस्थानांतल्यान सोऱ्याचेर बंदी हाडपी कायदे रद्द केले. हाका लागून अमेरिकेंत सोऱ्याबंदीची चळवळ अपेशी थरली.

मध्ययुगाच्या तेंपार भारतांत कांय खाशेल्या सुवाळ्यांक राजदरबारांनी मद्यपान जातालें. कांय बादशाहांक आनी सरदारांकूय सोऱ्याचें तशेंच घुंवळीवखदांचें व्यसन आशिल्लें हे इतिहासांतल्यान कळटा. कांय घराण्यांनी ती प्रतीश्ठेची गजाल आशिल्ली. पूण त्या वेळार सोरो पियेतल्याक समाजांत प्रतिश्ठा नाशिल्ली.

ब्रिटीश आयले उपरांत ताणीं भारतांत सोरो गाळपाक सुरवात केली. ह्या धंद्यांत बरो फायदो आशिल्ल्यान, रोखडोच ह्या धंद्याक नेट आयलो. युरोपी लोकांप्रमाण भारतीय लोकांकूय इल्ली-इल्ली सोरो पिवपाची संवय जाली. सोऱ्याचो भारतीय समाजाचेर वायट परिणाम जाता हें पळोवन सुर्वेक राजा राममोहन रॉय, केशवचंद्र सेन आनी हेर समाजसुदारकांनी ताका विरोध केल्लो. उपरांत विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक अॅनी बेझंट, लोकमान्य टिळक आनी हेर भारतीय फुडाऱ्यांनी नशाबंदीक आपलो तेंको दिल्लो.

१९२१ त महात्मा गांधी हाणें नशाबंदीचेर चड भर दिल्लो. उपरांत १९२३ त तेखातीर ताणें चळवळ सुरू केली. १९३५ च्या कायद्याप्रमाण भारताक प्रांतिक स्वायत्तताय मेळ्ळी. त्या काळांत नशाबंदीचें धोरण चालीक लावपाखातीर काँग्रेसीन साबार यत्न केले. एक ऑक्टोबर १९३७ दिसा मद्रास सरकारान सलीमा जिल्ह्यांत सगळ्यांत पयलीं नशाबंदी केली. उपरांत १९४० मेरेन सॅंट्रल प्रॉव्हिन्सीस, वऱ्हाड, बिहार, ओरिसा ह्याय भागांनी नशाबंदीचे कायदे लागू केले. भारताक स्वातंत्र्य मेळून काँग्रेस पक्ष सत्तेर आयले उपरांत काँग्रेसीन सोरोबंदीचें धोरण चालूच दवरलें. १९५१ त मुंबय प्रांतांत पुरायपणान नशाबंदी केली. उपरांत म्हैसूर, ओरिसा, मध्य प्रदेश, आसाम, पंजाब आनी दिल्ली ह्या वाठारांनी नशाबंदीचें धोरण चालींत हाडलें. २६ जानेवारी, १९५० दिसा नशाबंदीच्या धोरणाचो भारतीय संविधानांत एक निर्देशक तत्त्व म्हणून आस्पाव केलो.

केंद्र सरकारान नशाबंदी पुरायपणान येसस्वी जावंची म्हणून साबार कायदे केल्यात. डिसेंबर १९७५ त भरिल्ल्या अखिल भारतीय नशाबंदी समितीन सोरो वा घुंवळीवखदां घेतल्यांक तशेंच नशाबंदीक विरोध करतल्यांक खर ख्यास्त दिवंची अशी सुचोवणी केल्ली. एक मे १९७६ दिसा नवी दिल्लीक भरिल्ले मध्यवर्ती नशाबंदी मंडळाचे बसकेंत सगळ्या राज्य सरकारांनी मध्यवर्ती सरकाराचो १२ कलमी कार्यक्रम मार्गदर्शना खातीर चालीक लावपाचें मान्य केलें.

नशाबंदी संबंदान भारत सरकारान हालींच्या तेंपार लेगीत साबार कायदे लागू केल्ले आसात. पूण नशाबंदीच्या इतिहासावयल्यान हेर देशांप्रमाण भारताकूय नशाबंदीक पुरायपणान येस मेळूंक ना.

स्वातंत्र्यापयलीं भारतांत घुंवळी वखदांचें व्हड प्रमाणांत सेवन जातालें. हाका लागून ब्रिटीश सरकाराचेर खूब टिका जाताली. १९२४ त हिन्दुस्थान, ब्रह्मदेश आनी सिलोन (श्रीलंका) ह्या राश्ट्रांतल्या नेशन क्रिस्टीयन काउन्सिल आनी इंडियन नेशन काँग्रेस हाणीं सरकाराक घुंवळी वखदांचेर पुरायपणान नियंत्रण दवरपाक सुचोवणी दिल्ली. घुंवळी वखदांच्या सेवनाचेर नियंत्रण दवरपाक ब्रिटीश सरकार अपेशी थरिल्ल्यान उपरांत अमेरिकेनूय ब्रिटीश सरकाराच्या धोरणाचेर टिका केल्ली. आंतरराश्ट्रीय आनी राश्ट्रीय टिका लक्षांत घेवन नोव्हेंबर १९४६ त ब्रिटीश सरकारान ब्रिटीश इंडियेंत घुंवळी वखदांचे निर्मितीचेर आनी वापराचेर बंदी घाली. स्वातंत्र्या उपरांत १९५० च्या कायद्यान भारत सरकारान सगळ्या घुंवळी वखदांचेर बंदी घाली. १९५६ त आनी १९५९ त भरिल्ल्या ऑल इंडिया नॉरकॉटिक कॉन्फरन्साच्या अधिवेशनांत घुंवळी वखदां बंदीचेर कांय म्हत्वाचे निर्णय घेवन फकत वैजकी कारणांक उपेगी पडपी अफू सरकारी भांडारांतल्यानूच मेळची हाची तजवीज केली. ३१ मार्च १९६९ ह्या दिसा सावन घुंवळी वखदांचीं सगळीं विक्री केंद्रां बंद केलीं. दोतोराच्या परवानगिनूच आतां फार्मासींत कांय घुंवळी वखदां मेळटात. भारत सरकारान आपणायल्लें घुंवळी वखदां आडचें धोरण खूब येसस्वी थरलें, हाका लागून युनायटेड नेशन्स ओपियम प्रोटोकॉल अधिवेशनांतूय भारताची तोखणाय जाल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**नहुष :** (१) आर्य लोकांमदली एक पुर्विल्ली जमात. सिंधू वा सरस्वती न्हंयेच्या वाठारांत हे लोक रावताले. हे जमातीच्या मुखेल्याचें नांवय नहुष अशेंच आशिल्लें. ऋग्वेदांतल्या दानस्तुतींत नहुष राजाचे दानशूरतेचें वर्णन केल्लें आसा. पज्र ऋषीच्या राजाक नहुष अशें म्हळां. मशशरी आनी आयवस हाणीं नहुषाच्या आदारान एक व्हड यज्ञ केल्लो. ब्राह्मणयुगांत ही जमात दुसरे जातींत भरसून गेली आनी तिचें स्वतंत्र अस्तित्व लुप्त जालें.

(२) एक राजा. अग्नीन हाका बलिहृत म्हळ्यार रयतेकडल्यान कर घेवपी केलो. पुराणांत हाका पुरूरव्याचो नातू आनी आयूचो पूत मानला. इंद्राच्या हातांतल्यान ब्रह्महत्या घडली तेन्ना तो इंद्रपद सोडून हांगा-थंय भोंवंक लागलो. तेन्ना देव आनी ऋषी हांणी नहुषाक वर दिलो, 'तूं जाचेकडेन पळयतलो ताचें सगळें तेज हरण करतलो' आनी ताका इंद्रपदाचेर बसयलो.

इंद्राची बायल इंद्राणी सर्गांतच आशिल्ली. तिका पळोवन तो भुललो. तेन्ना बृहस्पतीच्या विचारान तिणें ताका अट घाली. सप्तऋषीन उबारून हाडिल्ले पालखेंत बसून जर तूं आपले कडेन आयलो जाल्यारच तूं सांगता तें आयकन. नहुष तेप्रमाण पालखेंत बसून येतालो. वाटेंत ताणें पालखी व्हरपी अगस्त्य ऋषीच्या माथ्यार खोंट मारली आनी सोरोप सोरोप बेगीन चल अशें म्हळें. अगस्त्याक राग येवन ताणें ताका शाप दिलो, 'धर्तरेचेर तूं धा हजार वर्सां सोरोप जावन पडटलो.' ते प्रमाण नहुष सोरोप जालो, फुडें द्वापर युगांत युधिष्ठिरान ताचो उद्धार केलो. विरजा ही ताची बायल आनी ययाती हो ताचो पूत आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**नळे :** घराचें पाखें धांपपाचीं पनेळाचे आकृतायेचीं धांपणीं. शिमिटाचो स्लॅब, शिमिटाचे, धातूचे तशेंच प्लास्टिकाचे पत्रे आनी नळे हांचो वापर घराचीं पाखीं धांपपाखातीर करप जाता. अर्थीक नदरेन दुबळे आशिल्ल्या लोकांच्या घराचीं पाखीं, चुड्टां आनी तण हांचो वापर करूनय धांपतात. हालींच्या तेंपार शिमिटाचो वापर जायत सावन नळ्यांचो वापर उणो जायत आसलो तरी चड करून गांवगिऱ्या वाठारांतल्या घरांचेर आयजूय नळे दिसतात. शिमिटाचो स्लॅब आशिल्ल्या घरांचेर लेगीत खूबकडेन सोबेखातीर आनी थणसाणेखातीर नळ्यांचो वापर करतात. नळे तयार करपाखातीर एक खाशेले जातीची माती वापरतात. उजवाडाखातीर वापरपाचे नळे तयार करपाखातीर कंवचेचो वापर करतात.

हेलेनिक संस्कृतायेचे आदीं (इ.स. आदीं तिसरें-पयलें शतमान) भूमध्य दर्यादेगेवयल्या वाठारांत नळ्याचो वापर करताले. पूण तसो पुरावो मेळना. ग्रीसी वास्तुशिल्पाच्या इतिहासकाळांत देवळांच्या पाख्यार नळ्याचो वापर करताले. कांय ग्रीसी देवळांनी संगमरवरी नळे वापरताले. रोमी काळांत स्पेनी पद्दतीचे आनी सपाट नळे वापरताले. हे नळे वेगवेगळ्या रंगाचे, मातयांचे आनी भाजिल्ले आसताले. जाल्यार यादस्तिकांवयले नळे कांश्याचे आसताले. मदल्या काळांत दक्षिण आनी मध्य युरोपांत चकचकीत आनी रंगीत नळ्यांचो वापर केल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

उदेंतेकडल्या चीन-जपान ह्या देशांनी अस्तंते पद्दतीवरीच पूण रचणुकेंत कांय प्रमाणांत फरक आशिल्ले नळे दिसतात. चीनी नळे वाटकुळे, कलाकुसरीचे आनी चकचकीत जाल्यार जपानी नळे सादारणपणान चीनी नळ्यांवरीच पूण रंगयल्ले नासताले. भारतीय नळ्यांविशीं चडशी इतिहासीक म्हायती मेळना.

नळे करपाखातीर एक खाशेले जातीची माती घेवन ती काडून, चाळून घेतात. तातूंत कांय प्रमाणांत दुसरे जातीची माती, लीद गोबर, बारीक रेंव आनी उदक हांचें मिश्रण तयार करतात. हें मिश्रण मसतून मसतून एकजीव करतात. एका दिसा उपरांत ह्या मुरिल्ल्या आनी सादारण घट्ट जाल्ले वले मातयेचे ल्हान आकाराचे गुळे करून दवरतात आनी तांचेपसून वेगवेगळ्या पद्दतीचे कच्चे नळे तयार करतात. हे वले नळे आदीं सावळेंत सुकयतात आनी उपरांत खोर्नांत दाळून भाजून घेतात. भाजतकच हे नळे घट्ट जातात आनी तांचेर चकचकीत तांबडो रंग चडटा.

मातयेच्या नळ्यांचे जायते प्रकार आसतात -

(१) **नळये आकाराचे नळे :** हे नळे कुमाराच्या चक्रार तयार जावपी नळी उबी चिरून तयार करतात. तेभायर अशे नळे लाकडाच्या सांच्यापसूनय तयार करतात.

(२) **चेपटे नळे :** हे नळे लाकडी फळयेचेर माती थापून आनी उपरांत ताका कांठ जोडून तयार करतात.

(३) **संगमरवरी नळे :** हे नळे संगमरवरी फातरा पसून तयार करतात.

(४) **मंगळुरी प्रकार :** हे नळे उंचेले प्रतीची माती, धातूच्या सांच्याचेर वापर करून तयार करतात आनी उपरांत खोर्नांत भाजून घेतात. हे नळे एका आकाराचे, नितळ तशेंच घट्ट आसतात.

पाख्यांचेर मातयेचे नळे बसयतना उजवाडा खातीर कंवचेचे नळे बसयतात. हे नळे तयार करपाक हून कंवचेचो गुळो धातूच्या सांच्यात घालून व्हड यंत्रान दामतात. उपरांत सांच्यातल्यान भायर काडून तांचेर तापोवन थंड करपाची प्रक्रिया करतात.

पाडसार तशेंच कोनवांशार जंय दोन पाश्ताचो जोड एकठांय येता थंय जोडार धांपण घालपी वेगळे तरेचे नळे बसोवंचे पडटात. हांकां धांपण्याचे नळे (तेलयांव) म्हण्टात. वारो भितर येवपाखातीर कांय खाशेले नळे तयार करतात. हे नळे तयार करपाक सर्वसादारण नळ्याच्या मदल्या भागार पालसो तोपयेवरी वयर आयिल्लो पोकळ भाग आसता. हांतूतल्यान वारो भितर खेळटा. पूण पावसाचें उदक भितर येवंक पावना. ह्या प्रकाराचे एक दोन नळे घराच्या पाख्यार बसयतात.

सर्वसादारण मंगळुरी नळ्यांची सकयली वट भितल्लेवटेन आयिल्ली आसता. पूण पांवळेचे नळे सकयले वटेन कापिल्ले आसतात. जाका लागून पावसाची पांवळी भितल्ले वटेन पड नासतना मुखावयलेवटेन पडटा. मंगळुरी नळ्याक गोंयांत 'सुलचो नळो' अशें नांव आसा. गोंयांत जे अर्दनळयेच्या आकाराचे नळे तयार करतात ताका गांवठी नळे म्हण्टात.

**भारतीय उद्देग** - भारतांत जायत्या वर्सां सावन नळयांचे नळेच चड प्रचारांत आशिल्ले. तांची निर्मिती कुटिरोद्योग म्हणून करताले. ही निर्मिती थळावे मागणेचेर आदारून आसताली. नळ्यांचो पयलो संघटीत स्वरुपांतलो कारखानो १९६५ त मंगळूराक जर्मन धर्मप्रसारकांनी काडलो. ह्या धर्मप्रसारकांनी युरोपांत त्या वेळार नामना आशिल्ल्या एका फ्रेंच अभिकल्पांत थळावे परिस्थितीप्रमाण फाव ते बदल घडोवन एक नव्या प्रकाराचो नळो तयार केलो. ह्या नळ्याकच फुडें 'मंगळुरी नळो' हें नांव पडलें. फुडें फुडें ह्या नळ्यांचे वाडटे मागणेक लागून कालिकत, थ्रिसूर, अळवाये, क्विलॉन, पालघाट ह्या केरळांतल्या जिल्ह्यांनी तेचपरी तमीळनाडू, महाराष्ट्र, गुजरात बी जायत्या राज्यांनी कारखाने सुरू जाले. विसाव्या शतमानाचे सुर्वेक भारताच्या उदेंत वाठारांत राणीगंज आनी अलाहाबाद प्रकारच्या नळ्यांची निर्मिती सुरू जाली.

ह्या उद्देगाची स्थापना जातकच पयल्या तीन दशमानांनी ताची बरीच वाड जाली. पूण पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत ह्या धंद्याक देंवती कळा लागली. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या आनी ते उपरांतच्या काळांत हो उद्देग परत वाडीक लागलो. पूण १९५६ उपरांत नळ्यांची मागणी उणी जायत गेल्ल्यान उत्पादन उणें जावंक लागलें. पाख्याखातीर शिमिटाचो वाडटो उपेग, पत्र्यासारक्या हेर सामानाचो सोद आनी नळ्याखातीर लागपी लांकूड, कामाचो वाडटो खर्च हाकालागून नळ्यांचो वापर उणो जायत आसा. हाचेच जोडयेक चोरी, उजो, उदक वा तत्सम अरिश्टांपसून नळ्याचे तुळेन, शिमिटाचीं पाखीं (स्लॅब्स) संरक्षण दितात. देखून आयच्या युगांत लोक शिमिटांची पाखींच चड पसंत करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**नॅता, जूल्यो :** (जल्म : २६ फेब्रुवारी १९०३, इंपेरिया-जेनोआ; मरण: १ मे १९७९, मिलान).

इटालियी रसायनशास्त्रज्ञ. १९२४ त ताणें मिलानांतल्या पॉलिटॅक्निक इन्स्टिट्युटांत रसायनीक अभियांत्रिकेंतली डॉक्टरेट पदवी मेळयली. १९३२ तो फ्रायबर्ग (जर्मनी) क गेलो आनी थंय ताणें उच्च बहुवारिकांचे स्फटिकीय रचणुकेचो अभ्यास केलो. १९३३-३५ ह्या काळांत पाव्हीया विद्यापिठांत रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आनी संचालक, १९३५-३७ ह्या काळांत रोम विद्यापिठांत भौतिकीय रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आनी संचालक आनी १९३७-३८ ह्या काळांत तूरीनच्या पॉलिटॅक्निक

इन्स्टिट्युटांत उद्येगीक रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आनी संचालक म्हणून ताणें काम केलें. १९३८ त तो मिलानच्या पॉलिटॅक्निक इन्स्टिट्युटांतल्या इन्स्टिट्यूट ऑफ इंडस्ट्रियल कॅमिस्ट्रींत प्राध्यापक आनी संचालक म्हणून काम करूंक लागलो. १९३८ त इटालियी सरकारान ताची संश्लशीत रबर तयार करपी संस्थेत संशोधनांत मार्गदर्शन करपाखातीर नेमणूक केली. १९२३ त ताणें कार्बनी आनी अकार्बनी द्रव्यांचे जाळयेचे रचणुकेच्या अभ्यासाखातीर आनी रसायनशास्त्रांतल्यो कांय समस्या सोडोवपाखातीर क्ष-किरणांचो उपेग केलो. मिथॅनॉल, फॉर्माल्डिहायड, ब्युटिराल्डीहायड आनी सक्सिनिक आम्ल हांच्या व्हडा प्रमाणावयल्या उत्पादनाचे नदरेन ताचें कार्य बुन्यादी थरलां. एथिलिनाच्या बहुवारिकीकरणा खातीर त्झीग्लर हाणें सोदून काडिल्ल्या उत्प्रेरकांत फावो तो बदल करून नॅता हाणें उण्या मोलाच्या खनीज तेल उत्पादना पसून पॉलिप्रोपिलीन हें उंचेल्या बळाचें आनी उंचेलो वितळबिंदू आशिल्लें बहुवारिक तयार केलें. अशा बहुवारीकांचो उपेग फिल्म, प्लास्टीक, कृत्रीम तंतू आनी संश्लेशीत रबर हांचे निर्मितींत करतात. ताच्या ह्या सोदाखातीर ताका १९६३ वर्साचो रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार कार्ल त्झीग्लर हाचे वांगडा वांटून मेळ्ळो.

– कों. वि. सं. मं.

**नॅशनल बूक ट्रस्ट :** एक ग्रंथ प्रसारक राश्ट्रीय संस्था. हे संस्थेची स्थापना १९५७ वर्सा जाली. ग्रंथाविशीं आवड निर्माण करपाच्या उद्देशान पयलो प्रधानमंत्री पं. जवाहरलाल नेहरू हाचे प्रेरणेक लागून केंद्रीय शिक्षण मंत्रालयावतीन हे स्वायत्त संस्थेची स्थापना जाली. संस्थेचो पयलो अध्यक्ष डॉ. जॉन मथाय हो आशिल्लो.

हे संस्थेच्यो मुखेल कार्यावळी अश्यो –

(१) प्रकाशन – समाजांतल्या सगळ्या वयोगटांतल्या दर एका वर्गाखातीर इंग्लीश-हिंदी धरून संवेधनाच्या आठव्या परिशिश्टांत आस्पावल्ल्या सगळ्या भारतीय भासांनी पुस्तकांचें प्रकाशन करतात. तेभायर प्रायोगिक तत्त्वाचेर आओ, गारो, खाँसी, मिसींग आनी मिझो ह्या आदीवासी भासांनी भुरग्यांखातीर पुस्तकां प्रकाशीत करप जाता. स्वताचे वितरण वेवस्थे मार्फत उण्या मोलांत ह्या पुस्तकांचें वितरण करतात.

(२) पुस्तक विक्री आनी पुस्तक वाचन उत्तेजन – प्रदेशीक आनी भाशाकणीक पुस्तकां प्रदर्शनाचें आयोजन ही एक खाशेली कार्यावळ पुस्तकां लोकांमेरेन पावोपाक आनी पुस्तकांची आवड निर्माण करपाक आदार करता. हाचेच जोडयेक एक खाशेलो विशय घेवन भारतीय आनी परदेशी प्रकाशकांचे जागतिक वर्सुकी पुस्तक प्रदर्शनाचें आयोजन करता. दर वर्सा १४ ते २० नोव्हेंबराक राश्ट्रीय पुस्तक सप्तक ट्रस्टा मार्फत साजरें करप जाता. हातूंत पुस्तक लेखन, पुस्तक निर्मिती, पुस्तक वितरण सारकिल्ल्या पुस्तकां संबंदींच्या बाबींचेर परिसंवाद, कार्यशाळा, प्रदर्शना घडोवन हाडटात. पुस्तक वाचनाक उत्तेजन मेळपाचे नदरेन पुस्तक भेट येवजण चालीक लायल्या.

(३) भारतीय प्रकाशनाक परदेशी बाजारपेठेंत वाव दिवचो ह्या उद्देशान ट्रस्ट आंतरराश्ट्रीय पुस्तक प्रदर्शनांनी वांटो घेवन भारतीय प्रकाशकाच्या पुस्तकांचें थंय प्रदर्शन भरयता.

(४) लेखक आनी प्रकाशक हांकां अर्थीक सहाय्य – शिक्षणीक तशेंच संदर्भ पुस्तकांचे निर्मितीक उत्तेजन मेळून अशे तरेचीं पुस्तकां सहजतायेन उण्या मोलान आनी जायतितल्या प्रमाणांत उपलब्ध जावची म्हूण ट्रस्ट अशे पुस्तक निर्मितीक अर्थीक अनुदान दिता.

(५)भुरग्यांच्या पुस्तक निर्मितीक उत्तेजन-भुरग्यांच्या पुस्तकांची निर्मिती आनी भुरग्यांमदीं वाचनाची आवड ह्यो मोखी मुखार दवरून राश्ट्रीय भुरग्यांचें साहित्य केंद्र ही यंत्रणा ट्रस्टान उबारल्या. हिचे मार्फत लायब्ररी कम डोक्युमेंटेशन सेंटर, वाचक क्लब, वाचन सर्वेक्षण हे उपक्रम हातांत घेतल्यात.

'नॅशनल बूक ट्रस्ट नीवझ लेटर' हें पुस्तक विश्वाचें म्हायती दिवपी नियतकालीक ट्रस्ट प्रकाशीत करता. 'द बूक इन इंडिया' हें तीन म्हयनाळें प्रकाशीत करपाचो ट्रस्टाचो विचार आसा.

नॅशनल बूक ट्रस्टाच्यो कांय मुखेल प्रकाशन मालिका अशो आसात –

**(१) भारत : देश आनी लोक (इंडिया : द लॅंड अँड द पीपल)** – ह्या मालिकेंतल्या पुस्तकांवरवीं भारताचें सर्वांगीण आनी सजीव चित्रण करपी भौतीक पर्यावरण, वेगवेगळ्यो संस्कृतीक परंपरा तशेंच वनस्पत आनी मोनजात हांची वळख जाता. तशेंच त्या त्या विशयाच्या तज्ञाकडल्यान सादे आनी सोंपे भाशाशैलींत बरयल्लीं हीं पुस्तकां अशा वाचप्यांक प्रामाणिक आनी अद्ययावत म्हायती दिता, जांकां ह्या विशयांचें व्हडलेंशें गिन्यान नासता.

**(२) तरूण भारती (यंग इंडिया लायब्ररी)** – हे पुस्तकमाळेवरवीं प्रकाशीत जातल्या पुस्तकांचो मुखेल उद्देश म्हळ्यार, सुमार १८ वर्सां पिरायेच्या तरणाट्या भुरग्यांक समाजीक, अर्थीक आनी राजनीतीक मुल्यां, मुद्दे आनी पर्याय हांची वळख करून दिवप. जाचेवरवीं तांकां तांच्या फुडाराक मार्गदर्शन मेळूंक पावतलें. हे पुस्तक माळेंत धाडसी कामां, भोंवड्यांचो वृतांत, नोकऱ्यांच्या संधी विशींच्या म्हायतीचीं पुस्तकां हांचोय आस्पाव जाता.

**(३) लोकोपयोगी विज्ञान (पोपुलर सायन्स)** – हे माळेचो उद्देश शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या सामान्य वाचकांक सरभोंवतणच्या वाठाराविशीं आनी विज्ञानाचे प्रगतीविशीं म्हायती दिवपाक मदत करप. तशेंच सदचे जिणेतलें विज्ञान आनी तंत्रविज्ञानाचे भुमीकेविशीं म्हायती दिवप. तेचपरी जंय शक्य आसा थंय संबंदीत क्षेत्रांतल्या भारताच्या योगदानाचेर उजवाड घालपाचोय हांगा यत्न जाता. सादे, सोंपे भाशेंत बरयल्ल्या ह्या पुस्तकांतलें लिखाण रेखाचीत्र आनी फोटवांवरवीं चड स्पश्ट करप जाता.

**(४) आदान - प्रदान** – ही माळ वेगवेगळ्या मळावेल्या सृजनात्मक साहित्याचो अदलाबदल करून राश्ट्रीय एकात्मतेक मोलादीक हातभार लायता. हे माळेवरवीं वेगवेगळ्या भाशेंतल्यो नामनेच्यो रचणुको जातूंत चडकरून कादंबरी आनी काणयो हांचो आस्पाव जाता, त्यो हेर भाशेंतल्या वाचप्यांक अणकारीत करून दितात. आदान प्रदान हे माळेंत फकत त्या त्या वेळावेल्योच रचणुको प्रकाशित जाता आशिल्ल्यान, पुर्विल्ल्यो आनी पारंपारीक साहित्य रचणुको 'भारतीय साहित्य निधी' हे माळेवरवीं प्रकाशीत करप जातात.

**(५) लोक संस्कृती आनी साहित्य (फॉक्लोअर)** – सुर्वेक हे माळेचो उद्देश एका वाठारांतल्या वाचप्यांक देशांतल्या हेर वाठारांतल्या लोकसंस्कृतीची आनी साहित्याची वळख दिवपाचो आशिल्लो. ह्या माळेंतल्या पुस्तकांत संबंधीत वाठार, थंयचे लोक, पुराणीक काणयो, धर्म, रितरिवाज, परंपरां, जागर, फेस्तां, सणपरबो, संगीत, नाच, नाटक, कला आनी शिल्प, लोकसाहित्य आदिंचेर म्हायती दिवप जाता. सद्या हे माळेवरवीं पयलींच्या पारंपारीक सांच्यापसून पयस वचून लोक साहित्य आनी लोकजीण अशे तरेन मांडप जातलें जातूंत नवें नवें लोकसाहित्य एक जितें जिवें रूप घेवन

फुडें येतलें. हाचो मूळ उद्देश म्हळ्यार लोकसाहित्य चड आकर्शक आनी विवेचनात्मक रुपान चित्रांसयत लोकांमुखार मांडप हो आसा.

**(६) राष्ट्रीय जिवन चरित्र (नॅशनल बायोग्राफी)** – हे माळेंत भारतांतल्या अशा दादले आनी बायलांचें जिवनचरित्र उजवाडाक हाडटात, जाणीं भारतीय समाज, संस्कृती, विज्ञान, अर्थवेवस्था आनी राज्यतंत्र ह्या मळांवांगडा आधुनीक भारतीय चिंतनाच्या विकासाचेर सुमाराभायर योगदान दिलां.

**(७) नेहरू बाल पुस्तकालय** – ही पुस्तकमाळ म्हळ्यार भुरग्यांक आवडीचें आनी फाव तें गिन्यान दिवपी साहित्याची खाण आसा. तेभायर हे माळेंत साबार पुस्तकां ते ते आवय भाशेंत उजवाडाक हाडून राश्ट्रीय एकात्मतेक चालना दिता. हे माळेंतलीं पुस्तकां पांच वयोगटांत वांटून गेल्यांत. (१) मुळावी शाळा (२) ६ ते ८ वयोगट (३) ९ ते ११ (४) १२ ते १४ (५) १५ ते १६.

**(८) आशिया – पॅसिफीक सहप्रकाशन कार्यक्रम (एशियन पॅसिफीक कॉ-पब्लीकेशन प्रॉग्राम)** – हो प्रकल्प युनोस्कोचो पालव घेवन आशियांतल्या लेखकांचीं पुस्तकां आशियाच्या खंडांतल्या भुरग्यांक उपलब्ध करून दिता. तेहरान ते टोकियो मेरेनचे सगळे देश ह्या पुस्तकांनी अशे तरेन उतरां गुंथतात की जरी पुराय विश्वांतलीं ना तरी ह्या खंडातल्या भुरग्यांक हीं पुस्तकां वाचपाक खूब आवडटात.

**(९) नवसाक्षरां खातीर पुस्तकां (बूक्स फॉर निवो-लिटरेट)** – हे माळेंतलीं चडशीं पुस्तकां थळाव्या लोकांक वांगडा घेवन गांवगिऱ्या वाठारांत घडोवन हाडिल्ल्या कार्यशाळे वरवीं तयार करप जातात. हें पुस्तक बरोवपाचें काम जाणकारांक तशेंच लेखकांक दिवप जाता. तशेंच ह्या पुस्तकांचें रुपांतर आनी संक्षेपण करप जाता. हीं पुस्तकां नव साक्षरांक फाव तशीं तशेंच तांचे खाशेले भाशाशैलींत बरोवप जातात आनी नवसाक्षरांकडल्यान वाचून घेवन ताचेर निमाणो हात फिरयतात. काणयो, जिवनचरित्रां, कादंबरी, लोककथा, त्या त्या वेळावयले (वर्तमान) विशय आनी दिसपट्टे जिणेक उपेगाक पडपी सुचक अशीं सचीत्र पुस्तकां अशे शैलींत उजवाडाकहाडटात जीं नवसाक्षरांक आपल्या आपूण पुस्तकां वाचपाक उत्तेजन दितात.

**(१०) नवें कार्यक्षेत्र** – स्वातंत्र्या उपरांत उजवाडाक आयिल्लीं तशेंच मूळ रुपान विंगड विंगड भारतीय भासांतल्यान बरयल्ल्यो वेंचीक कादंबऱ्यो आतां इंग्लिशींतल्यान अणकारीत जातात. कारण हीं पुस्तकां देशाभितरल्या इंग्लीश वाचप्यांक मेळचीं तशेंच आंतरराश्ट्रीय मळावयल्या वाचप्यांक तांचो फायदो मेळचो. हातूंतल्यान हेर विदेशी भाशांनी ह्यो कादंबऱ्यो अणकारीत जावपाची शक्यताय आसता.

– कों. वि. सं. मं.

## नांदी

**नांदी :** नाटकाचे सुर्वेक इश्ट देवतेच्या नमनाचे वा प्रार्थनेचे जे श्लोक सुत्रधार म्हण्टा, ताका 'नांदी' अशें म्हण्टात. संस्कृत नाट्यप्रयोगाचे सुर्वेक 'पूर्वरंग' नांवाचो एक प्रकार जातालो ताचोच 'नांदी' हो एक भाग. नाट्यशास्त्राच्या ५ व्या अध्यायांत भरतान हाचें वर्णन केलां. नाटककाराचो ह्या प्रकाराकडेन कांयच संबंद नासता. सुत्रधार आपल्या सांगात्यांक घेवन हो 'पूर्वरंगा' चो प्रकार सादर करता. पूर्वरंग अर्दो जातकच सुत्रधार नांदी म्हण्टा. उपरांत पूर्वरंगाचीं हेर आंगां जातकच प्ररोचना ह्या आंगान तो सोंपयता आनी रंगमाचयेवयल्यान भितर वता.

देवांक आनंद दिता ती नांदी अशी नांदीची व्युत्पत्ती मेळटा. नांदीची व्याख्या भरतान सांगल्या ती अशी –

आशीर्वचनसंयुक्ता नित्यं यस्मात् प्रयुज्यते ।
देवद्विजनृपादीनां तस्मान्नान्दीति संज्ञिता ।।

**अर्थ** – ज्या अर्थान नाट्य प्रयोगाचे सुरवातेंत देव, ब्राह्मण आनी राजा हांचो आशिर्वाद आसता, त्या अर्थान तिका 'नांदी' अशी संज्ञा मेळ्ळ्या.

पुर्विल्ल्या संकेताप्रमाण नांदी ही आठ वा बारा पदांची आसची आनी सूत्रधारान ती मध्यम स्वरांत म्हणची अशें आसा. तेचप्रमाण नांदीचो आशय असो आसचो – सगळ्या देवां-ब्राह्मणांक नमस्कार आसुंदी, राश्ट्राचो उत्कर्श जावं, प्रेक्षक-नाटककार हांकां येस मेळूं, हे पुजेन सगळे देव संतुश्ट जावं.

विघ्नां निवारण करपाखातीर मुजरत नांदी करची अशें विश्वनाथानूय साहित्यदर्पणांत म्हळां. विद्यमान संस्कृत नाटकांनी सुर्वेक जे मंगल श्लोक आसात, तांकां भरताच्या मताप्रमाण नांदी म्हणपाक मेळना, कारण हे श्लोक सुत्रधार म्हण्टा पूण ते नाटककारान रचिल्ले आसतात. हे मंगल श्लोक म्हळ्यारूच नांदी अशी सद्या कल्पना आसा.

शूद्रकान मृच्छकटिक नाटकाचे सुर्वेक शिव-पार्वतीचें वर्णन केलां. कालिदासान आपल्या तिनूय नाटकांच्या नांदींनी शिवस्तुती केल्या. भवभूतीन उत्तररामचरितांत पूर्वकवी आनी वाग्देवता हांकां नमस्कार केला. भट्टनारायणान वेणीसंहाराची नांदी करतना पयल्या दोन श्लोकांनी कृष्णाचें स्तवन आनी तिसऱ्यांत शंकराचें वर्णन केलां. श्रीहर्षान आपल्या रत्नावली नाटकाचे नांदीत शिव-पार्वतीचेंच वर्णन केलां. हाचेवयल्यान चडशा संस्कृत नाटककारांक शीव हीच इश्ट देवता म्हणून मान्य आशिल्ली, अशें दिसता. पोरण्या मराठी आनी देशी भाशांतल्या नाटककारांनी नांदीची चाल तशीच चालू दवरिल्ली. किर्लोस्कर, देवल, खाडिलकर, गडकरी ह्या कांय नाटककारांनी नांदी बरयल्या पूण ते नांदींत लेगीत शिवाचेंच स्तवन केल्लें आसा. हांचे फुडल्या नाटककारांनी ही नांदीची चाल मोडली. पूण नाटकांत काम करपी कलाकारांनी मात खंयच्याय देवाचें स्तवन करपी नांदी म्हणपाची चाल तशीच चालू दवरिल्ली. अशी नांदी आजय उत्सवी नाटकांनी आयकुंक मेळटा. पूण भोवतेक वेवसायी नाटकांनी ही नांदी आता वगळ्ळ्या. महाकवी कालिदासाच्या शाकुंतलाची संस्कृत नांदी अशी आसा-

या सृष्टी : स्त्रष्टुराद्या वहति विधिहुतं या हविर्या च चहोत्री
ये द्वे कालं विधत्तः श्रुतिविषयगुणा या स्थिता व्याप्य विश्वम्
यामाहुः सर्वबीजप्रकृतिरिति यया प्रणिनः प्राणवन्तः
प्रत्यक्षाभिः प्रपन्नस्तनुभिखतु वस्ताभिरष्टाभिरीशः ।।

**अर्थ** – ब्रह्माची आद्यसृश्टी (उदक), विधिंसयत हवन केल्लें हविर्द्रव्य वाहोवन व्हरपी (अग्नी), यजमान, दीस आनी रात धारण करपी (चंद्र-सूर्य), मळब, सगळ्या बिजांची प्रकृती (धर्तरी) आनी ज्या योगान प्राणी प्राणवान जातात ती (वायू) अशा आठ मुर्तींनी युक्त असो शंकर तुमची राखण करूं.

मराठी नाटकांतले नांदीचो एक नमुनो असो –

नमुनि ईशचरणा । करिन मग गजाननाच्या
पादस्मरणा । नमु ।।धृ.।। सुकविरत्नमाला
अतिशोभा दे यदीय सुंदर वृक्षाला ।
जिच्यामध्यें महामणी प्रकाश पाडित
सुवर्णपदकीं बसोनियां कालिदास राणा ।।
नमु. ।।

– कों. वि. सं. मं.

**नांदेड :** महाराष्ट्र राज्याच्या औरंगाबाद विभागांतल्या नांदेड जिल्ह्याचें आनी तालुक्याचें मुखेल ठाणें. लोकसंख्या २,३१४,७८३ (१९९१). गोदावरी न्हंयेचे उत्तर देगेर हें शार वसलां. औरंगाबाद विभागांत ह्या शाराचो दुसरो क्रमांक लागता जाल्यार महाराष्ट्र राज्यांतलें हें चवदाव्या क्रमांकाचें शार. पुराणकाळांत पांडव ह्या शारांत येवन गेल्ल्याचें सांगतात. नंद घराण्यान हांगा बरींच वर्सां राज्य केलां आनी ताचेवयल्यान ह्या शाराक नंदतट आनी उपरांत ताचें अपभ्रंश रूप नांदेड अशें जालें. गोदावरी महात्म्यांत ह्या शाराचो नंदीतट असो उल्लेख आसा. आंध्रभ्रत्य सातवाहन, चालुक्य, राश्ट्रकूट, काकतीय आनी यादव हांची सत्ता हांगा जावन गेल्या. फुडें मुसलमानांनी ह्या शाराचेर घुरी घालून तें मलिक काफूर हाचे सत्तेखाला गेलें.

बहमनी सत्तेच्या काळांत नांदेडाचो तेलंगणांत आस्पाव जालो. औरंगजेब दक्षिणेचो सुभेदार म्हणून आयलो तेन्ना नांदेड तेलंगणाची राजधानी आशिल्ली. १७२५ त हें शार निजामाच्या राज्यांत गेलें. १९४७ उपरांत पोलीस कारवाय जावन हैदराबाद संस्थान भारतांत आयलें आनी राज्य पुनर्रचणुके उपरांत ताचो मराठवाडा विभाग द्विभाशीक मुंबय राज्यांत आयलो. नांदेड शार नांदेड जिल्ह्याचें ठाणें जालें. महाराष्ट्र राज्य निर्मणे उपरांत तें महाराष्ट्र राज्यांत आयलें.

दक्षिण मध्य रेल्वेच्या मीटरमापी लोहमार्गावयलें हें एक स्थानक. हांगासर ल्हान-व्हड गांवांक जोडपी रस्ते आशिल्ल्यान ह्या शाराक वेपारी म्हत्व आयलां. आंध्र प्रदेश, कर्नाटक आनी मध्य प्रदेशांतल्या वेपारी पेठांकडेन नांदेडाचो थेट वेपार चलता. धान्य, गोरवां आनी कापूस हांची बाजारपेठ म्हणून ह्या शाराक खूब म्हत्व आसा. हांगा व्हड कापडागिरण आनी सूत कातपाची गिरण आसा. तेभायर शारांत तेलाघाणे, कातडीकामाचे ल्हान कारखाने, फर्निचर, घरांचीं, दारां, जनेलां आदींचेय कारखाने आसात.

पुर्विल्ल्या काळासावन संस्कृतीक नदरेन नांदेडाची नामना आसून तें संस्कृत विद्येचें केंद्र आशिल्लें. पैठणच्या भट्ट घराण्यान जशें काशींतल्या संस्कृत विद्येच्या क्षेत्रांत नांव काडलें. तेचप्रमाण नांदेडच्या शेष घराण्याचें नांव काशींत गाजतालें. अजुनूय हांगासल्ल्या सिद्धनाथपुरी नांवाच्या वाठारांत 'शेषांची गढी' ह्या नांवान शेष घराण्याचें मूळ स्थान दाखयतात. नामनेचो मराठी कवी वामन पंडित हो हांगासल्ल्याच शेष घराण्यांतलो.

शीख धर्माचे लोक अमृतसरा फाटोफाट नांदेड शाराक पवित्र आनी म्हत्वाचें मानतात. मुसलमानांनी शीखांचो धावो गुरू गोविंदसिंग हाका हांगाच मारिल्लो. थंयच ताची समाधी आसा. ताचीं हत्यारांय त्या जाग्यार दवरिल्लीं आसात. हांगाच्या हुजूर साहेब गुरूद्वाराची इमारत संगमरवरी आसून ताचो कळस आनी वण्टी भांगरान सजयल्ल्यो आसात. ह्या गुरूद्वारांत एक रत्नागार आसून तातूंतले अलंकार लोकांक पळोवपाक तें दसरो, दिवाळी, होळी ह्या सारक्या म्हत्वाच्या परबां दिसा उकतें दवरतात. गुरूद्वारांत भोंवडेकारांच्या सोयीभायर दवाखानो, शाळा, सवाय म्हालाचीं दुकानां आदी लोकांक उपेग जावपासारकीं जायतीं कामां गुरूद्वारा निधींतल्यान चलतात. तेभायर शाराच्या वेगवेगळ्या भागांनी हिराघाट, मातासाहेब, शिकारघाट, बंदाघाट, मालदोंगुल्ली साहेब, संगत साहेब ह्या ल्हान गुरूद्वारा आसात.

नांदेड रेल्वेस्थानका पसून सुमार चार किमी. अंतराचेर कळंबच्या राजान बांदिल्लो नंदगिरी वा ननगिरी नांवाचो पोरणो किल्लो आसा. थंय आतां सोबीत बाग आनी उदकापुरवण केंद्र आसा. न्हंयेचे देगेर हांगा हिंदूचीं जायतीं देवळां आसात. तातूंत नृसिंह, नागेश्वर, गणपती, राम आनी म्हादेव हांचीं देवळां म्हत्वाचीं आसात. तेचपरी मुसलमानांची जामा मशीद आनी बडी दर्गा ह्या थळांची नामना आसा. १९३५ त हांगा स्थापन जाल्ल्या नगरपालिकेच्यो स बागो, खेळांमळां आनी ग्रंथालयां आसात. शारांत बालकमंदीर आनी कलामंदिर आदी संस्था, तशेंच मुळावें ते म्हाविद्यालयामेरेन शिक्षण संस्था आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**नांव :** वास्तवांतले वा कल्पनेंतल्या घटकांची (पदार्थ, व्यक्ती, थळां वा संकल्पना) वळख सुचीत करपी संज्ञा. नांव, घटकाची गुणासयत वा गुणाविरयत वळख करपाक मदत करता. नांवाचें प्रयोजन केल्ल्यान घटकांची वळख तशेंच घटका-घटकांमदलें अंतर अवगत जावपाक मदत जाता. संवसारांत इतले घटक भरल्यात आनी तांचो एकामेकांकडेन इतलो लागींचो संबंद आसा की तांचेकडेन संबंद प्रस्थापीत करपाक वा तांचो संदर्भ लक्षांत घेवपाक, तांकां तांचो असो खाशेलो उल्लेख आसप गरजेचें जाता, आनी हे गरजेंतल्यान दर एका घटकाक नांवां दवरपाची पद्दत सुरू जाली.

आरंभाच्या काळांत, जेन्ना मनीसजात मुळावे अवस्थेंत आशिल्ली आनी भाशाशास्त्र धरून सगळ्याच शास्त्रांचो विकास जावंक नाशिल्लो तेन्ना मनीस आपले विचार आनी भावना उक्तावपाखातीर कुरवांचो तशेंच विशिश्ट अशा आवाजांचो उपेग करतालो. त्या काळांत ह्या आवाजाच्या आनी कुरवांच्या संकेतांवयल्यान आनी ह्या संकेतांच्या गुणधर्मांक धरून नांवां दवरप जालें. देखीक – खों, खों ह्या आवाजावयल्यान खोंकली वा गूं गूं हाचे वयल्यान गुंगुल्लो. बऱ्याच खेपे वस्तूच्या, व्यक्तीच्या गुणधर्मानुसार ते वस्तूक, ते व्यक्तीक नांव पडटा. देखीक – पटी, पुस्तक, पुस्तिका, ग्रंथ, महाग्रंथ अशीं नांवां पुस्तकाच्या आकाराप्रमाण दिवप जाता. परतून पुस्तकाभितरूच साहित्य प्रकारानुसार काव्य, कथा, कादंबरी, नाटक, निबंध अशीं नांवां येतात. रानांत रावता ती रानकोंबी, घरांत रावता ती घरकोंबी असो उल्लेख जाता. तशेंच रंगाप्रमाण काळी, धवी, तांबडी, शिबरी अशीं नांवां कोंबड्यांक दिल्लीं दिश्टी पडटात. तेच प्रमाण मनशाची पिराय, वेवसाय, विद्या, कर्म हांचेप्रमाण ते ते व्यक्तीचो उल्लेख करप जाता. देखीक – मास्तर, गवय, फुडारी, पसरकार, चोर, फटींग.

सादारणपणान गूण-कर्माच्या संदर्भावयल्यान सामान्य नांव दिवपाची रीत दिसली तरी सगळ्याच घटकांचे बाबतींत हीच पद्दत पाळ्ळ्या अशें म्हणूक जावंचेना. दर एका घटकाक नांव दिवपाचो संकेत कसो निर्माण जालो हाचें शास्त्रीय विवेचन करप बरेंच कठिण आसा. कारण बऱ्याच घटकांच्या नांवाचो आनी तांच्या गुणधर्माचो संबंद आसाच अशें दिसना वा घटकाचें नांव आनी ताचो कार्यकारण संबंद हांचेमदलें नातें समजुपाक संशोधकूय उणे पडटा आसुंये.

आतामेरेनचें जाल्लें विवेचन हें भोवतेक करून सामान्य नांवांक लागू पडटा. नांवाभितरूच विशेश नांव अशें एक खाशेलें नांव, चड करून व्यक्तीक, झाडांक, मोनजातींक, थळांक दिवप जाता. हातूंतल्यो व्यक्ती आनी कांय प्रमाणांत थळांचीं नांवां संस्कृतीक संदर्भ घेवन येतात. देखीक

– मनशांक आनी थळांक दिल्लीं देवांचीं, संतांचीं तशेंच पुर्वजांची नांवां. दर एका धर्मांत धर्मीक विधीवरवीं अशीं नांवां दिवप जाता. एका विशेश नांवाची एकूच व्यक्ती आसप वास्तवांत शक्य नाशिल्ल्यान व्यक्ती-व्यक्तीं मदीं वेगळेपण दाखोवपाखातीर व्यक्ती नांवां मुखार बापायचें, आवयचें वा घोवाचें नांव लावप सुरू जालें. हातुंतूय फुडें वेगळेपण दाखोवपाक अडचण येवंक लागिल्ल्यान नांवावांगडा आडनांव लावपाची पद्दत सुरू जाली आसूं येता.

एके व्यक्तीक एकापरस चड विशेश नांवां आसूं येतात. हिंदू धर्मांत धर्मीक विधीवरवीं दिल्लें नांवराशीचें नांव आनी वेव्हारीक नांव अशीं दोन नांवां दवरपाची प्रथा आसा. खूबशा धर्मांनी लग्न जाल्ले चलयेचें विशेश नांव तशेंच आडनांव बदलपाचीं प्रथा आसा. कांय व्यक्ती विशेश असो हेत मतींत घेवन मर्यादीत अशा वेव्हाराखातीर आपखोशयेन टोपण नांव घेतात जाल्यार कांय व्यक्तींक तांच्या गूण-दोशांखातीर टोपण नांव दिवप जाता. कांय थळनांवां व्यक्तींच्या नांवांपसून तयार जातात. देखीक – जमशेदपूर, जाल्यार कांय व्यक्ती नांवां थळांच्या नांवांवयल्यान आयल्यांत देखीक – काशी. नांवाचो अभ्यास करपी शास्त्र शाखेक नामविद्या अशें म्हण्टात.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : आडनांव

**नाइटिंगेल :** ह्या शेवण्याचो टर्डिनी ह्या कुळांत आस्पाव जाता. गोड ताळो आशिल्ल्या ह्या शेवण्याच्या सामान्य जातीचें शास्त्रीय नांव ल्युसीनिया मेगॅन्हिंका अशें आसा.

शिंयांच्या दिसांनी नाइटिंगेल आफ्रिकेच्या उश्ण प्रदेशांत वता. इंग्लंड, युरोप, अस्तंत आशिया आनी वायव्य आफ्रिकेंत हें शेवणें आसता. दाट रानां, न्हंयो आशिल्ल्या देगणांनी हें शेवणें रावता.



१६ ते १७ सेंमी. लांबायेच्या ह्या शेवण्याची फाट आनी शेंपडी गाड तांबशी, पुडीकोराची आसता. पोटाकडलो भाग, गळो धवो आसता. तशेंच ताचे पांय पुडी कोराचे आसतात. नाइटिंगेल नर आनी मादी हांचेभितर भायल्या रुपांत कांयच फरक दिसना. मोटव्या झाडाचेर जावं झुडपाचेर बसून तें रातदीस गायत आसता. हें शेवणें सामकें भित्रें आसता. तरातरांचे किडे हें ताचें खाण. तशेंच, बारीक जीव, ल्हान फळां, कोळीय तें खाता. दाट झुडपांनी वा जमनीचेर पानां, तण घालून मादी घोंटेर तयार करता. मे म्हयन्यांत मादी पाचव्या रंगाचीं चार ते पांच तांतयां घालता. तांतयां उबोवपाचें काम मादीच करता. तेरा ते चवदा दिसांनी पिलां तांतयांतल्यान भायर सरतात.

– कों. वि. सं. मं.

**नाइटिंगेल, फ्लॉरॅन्स :** (जल्म : १२ मे १८२०, फ्लॉरॅन्स – इटली; मरण : १३ ऑगस्ट १९१०, लंडन).

ब्रिटीश परिचारीका (नर्स) आनी आर्विल्ल्या नर्सिंग शास्त्राची संस्थापिका.



तिणें भौशीक भलायकी विज्ञानांत मोलादीक भर घाली. तिचें शिक्षण घराच जालें. ग्रीसी, लॅटिन, फ्रँच, जर्मन ह्यो भासो तिका येताल्यो. तिका तिच्या बापायन इतिहास, तत्त्व गिन्यान आनी गणित हे विशय शिकयल्ले. हॉस्पिटलांत वचून नर्सिंग अभ्यासक्रम शिकचो अशी तिची इत्सा आशिल्ली. पूण घरच्यांनी तिका विरोध केलो. तरी लेगीत तीन वर्सांच्या काळांत तिणें भौशीक भलायकी हॉस्पिटलांत ह्या विशयाची जाणकार म्हणून नामना मेळयली. १८५० वर्सा तिणें कैसर्सव्हर्ट (जर्मनी) नगरांतले एके संस्थेंत हॉस्पिटल नर्सिंगाचें पुराय शिक्षण घेतलें. १८५३ त लंडनांतल्या नामनेच्या हार्ले रस्त्याचेर आशिल्ल्या एका ल्हान हॉस्पिटलांत (इन्स्टिटयूट फॉर द कॅर ऑफ सिक जँटलविमॅन इन डिस्ट्रॅस्ड सरकमस्टन्सीस) अधिक्षक म्हणून तिची नेमणूक जाली. हे संस्थेत तिच्या वावराक भरपूर येस मेळ्ळें.

तिच्या वावराचें म्हत्व वळखून १८५४ त रशियेआड क्रिमियन झूज सुरू जातकच ब्रिटीश मंत्रीमंडळांतलो झूज सचीव सिडनी हर्बट हाणें तिका झुजामळाचेर धाडली. २१ ऑक्टोबर १८५४ दिसा ३८ नर्सीवांगडा ती क्रिमियेक गेली. हर्बट हाणें तुर्कस्तानांतल्या पुराय सैनिकी हॉस्पिटलांतल्या नर्सिंगचे वेवस्थेची जापसालदारकी तिचेर घाली.

नोव्हेंबर १८५४ त तुर्कस्तानांतल्या स्कूटारीच्या (सद्याचें ऊस्कूवार) सैनिकी हॉस्पिटलांत गेली. तें हॉस्पिटल बुरशें आनी भलायकेचे नदरेन वायट आशिल्लें. थंय रोग्यांचीय संख्या खूब आशिल्ली. तरीय पूण नाइटिंगेल हिणें इंग्लंडासावन आनीकय नर्सी आनी साधनसामुग्री मागोवन घेतली. लस्करी अधिकारी आनी डॉक्टर हांच्या विरोधाक आयकनासतना हॉस्पिटलांत पातळिल्ली मरणाची हावळ पयस केली. १८५५ त ह्या हॉस्पिटलांत पटकी आनी जोराची (टायफस जोर) भिरांकूळ धाम आयली. तेन्ना तिणें इंग्लंडाक हेविशीं सुचोवण्यो धाडून स्कूटारींतल्या भलायकी वेवस्थापकाक फावो तो उपाय करूंक लायलो.

तिणें ब्रिटीश सैनिकांची भलायकी, तांची रावपाची वेवस्था आनी तांकां मेळपी अन्न हातूंत उदरगत घडोवन हाडपाखातीर भरपूर त्रास घेतले. देखुनूच १८५७ त लश्कराचे भलायकेविशीं चवकशी करपाक एक रॉयल कमिशनाची नेमणूक जाली. १८५९ त भारतांतल्या लस्कराचे भलायकेची

चवकशी करपाक एक समिती नेमली आनी तिचो अहवाल १८६३ त नाइटिंगेल हिका सादर केलो. ब्रिटीश लोकांनी एकठांय केल्ल्या नाइटिंगेल निधींतल्यान सेंट थॉमस हॉस्पिटलांत 'नाइटिंगेल स्कूल फॉर नर्सेस' ही बायलांक नर्सिंग अभ्यासक्रमाविशीं शिक्षण दिवपी संवसारांतली पयली संस्था स्थापन जाली.

१९०१ च्या सुमाराक तिका कुड्डेपण आयलें. १९०७ त तिका 'ऑर्डर ऑफ मॅरिट' हो भोवमान फावो जालो. असो भोवमान मेळोवपी ती पयली बायल. तिणें जायतें लिखाण केल्लें आसून, तिच्या नोट्स ऑन नर्सिंग (१८६०) ह्या ग्रंथाक नामना मेळ्ळ्या. नोट्स ऑन मॅटर्स अफॅक्टिंग द हेल्थ, एफिशियन्सी अँड हॉस्पिटल ॲडमिनिस्ट्रेशन ऑफ द ब्रिटीश आर्मी ह्या व्हड ग्रंथाक १८५८ वर्सा नामना मेळ्ळी.

– कों. वि. सं. मं.

**नाईक :** एक आदिवासी जमात. हे लोक गुजरात, माळवा आनी पंजाब ह्या प्रदेशांनी आसात. तांकां नाइकदा, नायक, नायकडा अशीं हेर नांवां आसात.

पयलींच्या काळांत हे लोक रानवटी स्थितींत रावताले. रानांत रावन लागींच्या वस्तींचेर हल्लो करप, रक्तखेव आनी लूट करून पोट भरप होच तांचो वेवसाय आशिल्लो. उपरांत ब्रिटीश सरकारान तांच्या ह्या कर्तुबांचेर बंदी घाली. तेन्नासावन हे लोक स्थायीक जाले. ताणीं शेतकाम, लाकूड कापप, हमाली हे वेवसाय सुरू केले.

हे लोक कोंड्यांच्यो खोंपी बांदून तातूंत रावतात. खोंपींच्यो वण्टी शेणान सारयतात आनी पाखें माडाच्या चुडटांचें जांव तणाचें करतात.

गुजरातांतल्या खारवी लोकांक पयलीं नाईक अशें म्हण्टाले. ती जात उंचेले प्रतीची मानताले. खारवी, भिल्ल ह्या जातीक ताणीं आपले जातींत घेतल्यात.

हे लोक कालिका, अंबा आनी महाकाली ह्या देवतांक भजतात. पावागडावयले देवतेचेर ह्या लोकांची चड श्रद्धा आसा. कांयकडेन भुतांखेतांचीय पुजा करतात. कांय लोक शमी झाडाची पुजा करतात. ते वागाक पुज्य मानून आपल्या खरेपणाखातीर वागाचो सोपूत घेतात.

होळीपुनव, अक्षयतृतीया, दिवाळी आनी दिवसो ह्यो मुखेल परबो ते मनयतात.

पंजाबांत नाईक जातीचे कांय लोक हिंदू आनी कांय मुसलमान आसात.

भुरगीं पिरायेंत येतकच तांचीं लग्नां करतात. चड करून आवय - बापूय भुरग्यांचीं लग्नां जमयतात. आते-मामे-मावस भावंडांभितर लग्नां जायनात. न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेच्या बापायक देण म्हणून थोडें द्रव्य, कड्डण वा आयदनां दिता.

सोळाव्या वर्सामेरेन चलयेचें लग्न जमयलेंना जाल्यार चली आपले पसंतीच्या दादल्यावांगडा लग्न जायनासतना रावपाक शकता. तो दादलो उपरांत तिच्या आवय-बापायक द्रव्य दिवन लग्न जावपाक मान्यताय घेता. कोणाय चलयेचो जातींतल्या दादल्याकडेन लग्नापयलीं संबंद आयलो जाल्यार ताका तिचेकडेन लग्न जावचें पडटा. तो लग्नाक तयार नासल्यार जातींतले लोक जमून ताका ते चलयेचे मांडयेर बसयतात आनी सात खेपे 'आई' म्हणपाक लायतात.

लग्नाच्या माटवांत पयलीं व्हंकल-न्हवऱ्याक खांदार घेवन नाचतात. उपरांत तांकां एकमेकांमुखार बसोवन, तांच्या वस्त्रांक गांठ मारतात. तांच्या माथ्यार एक कपडो घालतात, तेन्ना न्हवरो-व्हंकल एकमेकांक गोड पदार्थाची उंडी लायतात. उपरांत तकलेवयलें वस्त्र काडटकच लग्न सुवाळो सोंपता. कांयकडेन अग्नीक चार प्रदक्षणां काडपाची चाल आसा.

हे लोक मडीं लासतात. धाव्या दिसा अस्थी आनी रक्षा एकठांय करून रास करतात आनी तिचेर उदकान भरिल्लें मडकें दवरतात. उपरांत न्हंयेंत विसर्जन करतात. घरा परत येतकच दादले खाड करून न्हातात आनी पींडदान करतात. धा दीस सुतक पाळटात. बाराव्या दिसा जेवणावळ घालतात. श्राद्ध करपाची तांचेमदीं चाल ना. पूण मेल्ल्या मनशाचो ओबड-धोबड पुतळो करून आंगणांत उबो करतात आनी ताची पुजा करतात.

ह्या लोकांची जातपंचायत आसता. सगळीं झगडीं-वाद पंचायत सोडयता. कोणाय मनशान जातीचे नेम मोडल्यार ताका दंड भरपाची ख्यास्त करतात. दंडाचे रकमेंतल्यान ताका शुद्ध करून घेवपाची तजवीज आसा.

गोंय धरून कोंकणांत नाईक आडनांव लावपी भंडारी समाज आसा. ताचो आनी नाईक हे आदीवासी जमातीचो कुलवंशीय संबंद दिसना.

– कों. वि. सं. मं.

**नाईल :** आफ्रिकेंतली आनी संवसारांतली सगळ्यांत लांब न्हंय. तिची लांबाय ६६५० किमी. तिचो उदक व्हांवपाचो आवांठ ३३,४९,००० चौ. किमी. आसा. ती उत्तरवाहिनी आसून भूमध्य दर्याक मेळटा. तिच्या देगणांत टांझानिया, बुरूंडी, रवांडा, झाईरे, केनया, युगांडा, सुदान, इथिओपिया आनी इजिप्त हांचे कांय वाठार येतात. इ.स. आदीं ५००० ते इ.स. ६४० ह्या काळांत हे न्हंयेच्या देगणांत पुर्विल्ले इजिप्ती संस्कृतीचो उगम जाल्लो. इजिप्ताच्या लोकांमदीं हे न्हंयेक व्हड म्हत्व आसा. तिच्या काळ्या गाळावयल्यान हांगासल्ले पुर्विल्ले लोक तिका 'आर' वा 'और' म्हण्टाले. होमर हाणें आपल्या ओडिसी काव्यांत तिका 'अइजिप्टॉस' म्हळ्या. न्हंयेचें देगण वा न्हंय ह्या अर्थाच्या ग्रीसी नेइलॉस वा लॅटिन नायलस ह्या शब्दावयल्यान तिका नाईल हें नांव पडलें अशें म्हण्टात.

धवी नाईल आनी निळी नाईल ह्यो दोन न्हंयो मेळून नाईल न्हंय जाता. उदेंत आफ्रिकेच्या सड्यावयल्या बुरूंडी देशांत उगम जाल्ली ६८८ किमी. लांबायेची कागेरा न्हंय व्हिक्टोरिया तळ्याक मेळटा आनी ह्या तळ्याचे उत्तर देगेवयल्या युगांडा देशांतल्या जीजा हांगासल्यान धवी नाईल सुरू जाता. ती उत्तरेक रिपन आनी ओएन फॉल्स ह्या धबधब्यावयल्यान सुमार ५ किमी. सकयल येता. थंयसावन क्योगा तळ्यांतल्यान वचून फकत साडेपांच मी. रुंदायेचे खांचींतल्यान मर्चिसन धब्याधब्यावयल्यान सुमार ३६.६ मी. सकयल आफ्रिकेचे खचदरेंत पडटा. आनी ३२ किमी. चेर आल्बर्ट तळ्याक मेळटा. फुडें सुदानी शिमेवयल्या निमुले गांवांतल्यान बाहर-अल्-जेबेल (दोंगराची न्हंय) नांवान सुदानांत देंवता. फुडें फोला रॅपिड्स वयल्यान देंवन ती १६० किमी. अंतरावयल्या रेजॅफाक ३५० ते ४५० मी. उंचायेवयल्या सपाट जाग्यांत येता. पावसाळ्यांत ह्या वाठारांत सूद नांवाच्या दाट तणाची वाड जाता. सुदाक लागून व्हड्याचे येरादारीक लेगीत आडखळ जाता. देखून ह्या वाठाराक सुद्द अशें म्हण्टात. सुदानांतल्यान आयिल्ली बाहर-अल्-गॅझॅल (गॅझलची न्हंय) आनी इथिओपियेंतल्यान आयिल्ली सोवात न्हंय मेळटकच नाईल मॅलॅकॅल गांवांत येता. हांगासल्यानच तिका फुडें धवी

नाईल वा बाहर-अल्-अबयाद म्हण्टात. ही न्हंय ८०० किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या खार्टूम देशांत निळी नाईल हिका मेळटा.

इथिओपियेंतल्या सुमार १८२९ मी. उंचायेवयल्या ताना तळ्याक मेळपी अब्बाल न्हंयेन सुरू जाल्ली निळी नाईल वा अल् बाहर अल् अझराक आग्नेय, अस्तंत आनी वायव्य दिशांनी तशेंच सुमार १,२२० मी. खोल व्हांवत वचून १,३६० किमी. चेर आशिल्ल्या खार्टूम देशांत धवे नाईलाक मेळटा. निळी नाईल आनी तिच्या उपन्हंयांच्या नेटाच्या प्रवाहांनी पावसाळ्यांत हाडिल्ल्या उदकान नाईलाक हुंवार येता.

खार्टूमासावन सुमार ८० किमी. अंतराचेर नाईलाच्या नामनेच्या स धबधब्यांतलो सवो धबधबो आसा. ताचेउपरांत इंग्लीश एस आकाराच्या व्हड मोडणाचेर पांचवो, चवथो आनी तिसरो धबधबो आसा. इजिप्ताचे शिमेवयल्या वाडी हॅल्फाउपरांत आशिल्लो दुसरो धबधबो सद्या आस्वानच्या व्हड धरणाक लागून तयार जाल्ल्या नासर जलाशयांत गेला. पयलो धबधबो आस्वान धरणालागसार आसा. ह्या धबधब्यांक लागून लागसल्ल्या वाठारांत नाईल न्हंयेचेर व्हड्याची येरादारी जावंक शकना. दोन धबधब्यां मदल्या वाठारांत मात व्हडीं चलतात. खार्टूम ते वाडी हॅल्फा सावन नाईल सुमार १,४८८ किमी. रेंवटी वाठारांतल्यान वता. थंयसावन ती ४०० किमी. ते ३.२ किमी. रुंदायेच्या प्रदेशांतल्या वालुकाश्मावयल्यान आनी फुडें ७२० किमी. वालुकाश्म आनी चूनखडयेवयल्यान व्हांवता. उपरांत ती चूनखडयेवयल्यान ८०० किमी. कायरोमेरेन येता.

नाईलच्या १६० किमी. लांबायेच्या आनी सुमार २,३०० चौ. किमी. आवांठाच्या त्रिभूज वाठारामदीं कायरो तशेंच भूमध्य दर्याचेर टोकांस ॲलेक्झांड्रिया आनी पोर्ट सैद हीं बंदरां आसात. नाईलच्या मुखेल सात फांट्यांतले रोझेटा आनी दॅमिएट्टा हे दोन फांटे चालू आसात. नाईलाच्या अशीर देगणांत आनी त्रिभूज वाठारांत भरपूर इजिप्ती लोक रावतात. हांगा बरे प्रतीचो लांब धाग्याचो कापूस, तांदूळ, ऊंस, मूग, तीळ, गंव, घोंसाळीं, कांदे, खाजूर, द्राक्षां आदींचें भरपूर पीक काडटात. कपडे, शिमीट, सारें, चामड्या उद्देगाचे कारखाने आसात. आस्वान धरणाक लागून सुदान वाठाराकय भरपूर फायदो जाता.

नाईलच्या देगणांत वेपारी वाऱ्यांक लागून थंयचें हवामान उश्ण आनी सुकें आसता. दक्षिणेक आनी इथिओपियेंत १५० सेंमी. पावस पडटा. दर्यादेगे लागसार हो पावस सुमार २० सेंमी. आसता. देखून नाईलच्या हुंवारांक लागून जें उदक मेळटा ताचेरच चड करून शेती आदारून आसता.

शेताक वर्सयभर उदका पुरवण करपाखातीर एकुणिसाव्या शतमानासावन धरणां बांदपाची येवजण चालीक लागली. १८४३-६१ मेरेन खारजांवरवीं शेताक उदकापुरवण जाताली. उपरांत १९०१ त दॅमिएट्टा गांवांत 'झिफ्टॅ', १९०२ त कायरोसावन ३२० किमी. अंतराचेर 'अस्यूत', १९०९ त २५४ किमी. अंतराचेर इस्ना, १९३० त नॅज हामॅदी आदी बांद बांदून शेताक उदका पुरवण करूंक लागले. १८९९ ते १९०२ काळांत आस्वानाचें पयलें धरण बांदलें.तशेंच हांगा वीज उत्पादनाचीय वेवस्था जाली. फुडें १९५९-७१ मेरेन आस्वान हायडॅम हें व्हड धरण तयार जालें. हांगा न्हंयेची रुंदाय फकत ५४९ मी. आसून तेवटेनचीं पालसणां ग्रॅनायटाचीं आसात. नाईल न्हंयेचो चडांत चड उपेग करून घेवपाखातीर तिचेकडेन संबंद येवपी देशांच्या पालवान जायत्यो येवजणो आंखल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**नाक :** शरिराच्या पांच ज्ञानेंद्रियांतलें नाक हें एक इंद्रीय. मुखामळाचेर मदीं आशिल्ल्या ह्या इंद्रियाचें मुखेल काम वास घेवप हें आसलें, तरी उस्वास घेवपाकूय नाकाचो उपेग जाता.

उदकांत रावपी प्राणी गंधज्ञानाखातीर नाकाचो उपेग करतात आनी उदकांतलो ऑक्सिजन मेळोवपाक उदक तोंडांतल्यान भितर घेवन भायर सोडटात. तांच्यांत घ्राणेंद्रीय आनी श्वसनेंद्रीय एकमेकांपसून वेगळीं आसतात. मनीस सोडून हेर प्राण्यांनी नाक हें तोंडावळ्याचो एक मुखार आयिल्लो भाग आसता आनी विशिश्ट परिस्थितीचे गरजे नुसार ताची हालचाल घडटा. देखीक - उंटाच्यो नाकपुडयो दोळ्यांच्या पापण्यांवरीं धांपूंक वा उगडूंक मेळटात. रेंव पोखरपी प्राण्यांच्यो नाकापुडयो मुखार नासून त्यो वयर उकत्यो जावपी (ऊर्ध्वमुखी) आसतात. दुकर आनी हेर रानवटी जनावरांचें नाक लांब सोंडो कशे आसता. हतयाची सोंड हेंच ताचें नाक. वास घेवपाखातीर, वस्त घट धरपाखातीर वा उदक पिवपाखातीर तो सोंडयेचोच वापर करता.

मनशाच्या नाकाचे आकार हे विशिश्ट वंशांचीं लक्षणां अशें मानतात. नाक लांब, शिडशिडीत, तोंचीभाशेन मातशें मुखार आयिल्लें वा मोटवें, चेपटें, पातळिल्लें आसता. कॉकेसॉयड वंशांत नाक चड करून सरळ, अशीर आनी तोंचीभाशेन मुखार आयिल्लें आसता. पूण मॉंगोलॉयड वंशांत नासासेतू देंवतो आनी नाकपुडयो मध्यम स्वरुपाच्यो पातळिल्ल्यो आसतात. ऑस्ट्रेलियी वंशांत नाक रूंद आसता पूण तें चेपटें वा पातळिल्लें नासता. निग्रॉयड जातींत तें रूंद, बसकट, पातळिल्लें आसता.

**नाकाचे घटक -** मनशाच्या नाकाचे दोन मुखेल घटक आसतात. (१) भायलें नाक, हातूंत सकयल्या भागांत नाकपुडयो आसतात. (२) भितरलें नाक वा नाकाची पोकळी. हे दोनूय घटक एकमेकांक जोडिल्ले आसतात. नाकाचे वयलो आनी सकयलो अशे दोन भाग करूं येतात. वयलो ल्हान भाग वास घेवपाक वापरतात आनी सकयलो व्हडलो भाग वारें फुफुसांनी घेवपाक म्हल्यारूच उस्वास घेवपाक वापरतात. दोनूय नाकपुडयो उक्त्यो आसतात आनी सबंद नाक भायल्या वातावरणाकडेन संबंद दवरून आसता. नाकाचे पोकळेचे फाटले वटेन एक मासाळ पड्डो आसता आनी तोंडांतल्यान अन्न घेतकच तो पड्डो वयर सरता आनी अन्न नाकांतल्यान भायर सरूंक दिना. नाकाचे पोकळेचो फुडलो भाग मदल्या नासपटलान (nasal septum) दोन वांट्यांनी विभागला आनी ताच्यो दावी-उजवी नाकपुडयो तयार जाल्यात. ह्यो नाकपुडयो फुडले वटेच्यान वेगळ्यो - वेगळ्यो आसल्यो तरी फाटले वटेच्यान त्यो एकमेकांक जोडल्यात. नासपटलाचो वयलो भाग हाडाचो आसता आनी सकयलो भाग उपास्थी(Cartilage) पसून तयार जाल्लो आसता. उपास्थी रचनेक लागून नाकाचो आकार तयार



१. ललाटास्थीय नासाकोटर
२. उत्तर हन्वस्थीय नासाकोटर
३. तितावास्थीय नासाकोटर
४. जतुकास्थीय नासाकोटर

जाता. ह्या उपास्थींक कांय स्नायू जोडिल्ले आसतात आनी त्या स्नायूंक लागून नाक फुलोवपाक मेळटा.

नाकाचे पोकळेंत, मस्तकाची आनी वयल्या दांतांचे माळेवयली अशो दोन पोकळ्यो ल्हान ल्हान बुराकांनी जोडिल्ल्यो आसतात, तशेंच दोळ्यांतलीं दुकां व्हांवन वचपाची वाट आसता. तेखातीर खूबशे खेपे, चड रडूंक आयल्यार, दूकां नाकावटेन भायर येतात. मान आनी गळ्यांतल्या भायल्या आनी भितरल्या रगताशिरांचें जाळें आशिल्ल्यान नाकाक भरपूर प्रमाणांत रगताची पुरवण जाता. नासपटलाच्या फुडल्या आनी सकयल्या भागाचेर बारीक-बारीक शिरांच्या जाळ्याक, पेशाजलांचो (tissue) आदार नाशिल्ल्यान खूब फावटीं ह्या भागांतल्यान रगत व्हांवता.

**कार्य** - नाकाच्या मुखेल कार्यांत १) वासाचें ज्ञान (गंधज्ञान) २) हवा गाळप आनी फुफुसांत वचपी हवेचें आर्द्रीकरण (Humidification) आनी तापमान योग्य दवरप ह्या कार्यांचो आस्पाव जाता.

ह्या कामांभायर आवाजाच्या अनुस्पंदनांत (Vibration) मदत करप, नाकाची नितळसाण राखप आनी श्लेष्मकला आच्छादन(mucosa of nose) सदांच वलें दवरप हेंय कार्य नाक करता.

१) वासाचें ज्ञान - हवा गंधक्षेत्राकडेन पावल्यारूच वासाचें ज्ञान जाता तेखातीर थंडी जावन, नाक चोंदल्यार, वास वा घाण येना. घाणयारी वा दुशीत हवा नाकांत गेल्यार, मनीस नाक बंद करून ती हवा फुफुसांत वचपापसून आडायता.

२) हवा गाळप - हवेंत आशिल्ले धुल्लाचे कण वा सुक्ष्मजंतू वा हेर कसलेय बारीक-बारीक पदार्थ नाकांत वचूंक शकतात. तांकां नाकांतले केंस आडायतात, आनी जरी ते भितर गेले तरी श्लेष्मकलेचेर दसतात आनी हवेवांगडा फुफुसांत वचपाक शकनात.

३) हवेचें आर्द्रीकरण आनी तापमान योग्य दवरप - हवा फुफुसांत पावता तेन्ना तिचें तापमान ३०° से. आसता आनी ताची आर्द्रताय ७५% ते ९५% आसची पडटा. योग्य तापमान आनी आर्द्रताय तयार करपाखातीर नाकाची श्लेष्मकला आच्छादनाची क्रियाशीलताय बऱ्यांत बरी आसची पडटा.

**नाकाचे विकार** - नाकाचे विकार खूब तरांचे आसात, तातूंतले कांय म्हत्वाचे आसात ते अशे -

१. भायल्यो वस्तू नाकांत वचप - बारीक वस्तू देखीक - बारीक फातर, खडू, पेन्सिलीचे कुडके सारकील्यो वस्तू ल्हान भुरगीं आपल्या नाकांत घालतात आनी त्यो वस्तू चड काळ तशोच नाकांत उरल्यार नाकपुडयेंतल्यान पूं वा रगशेल्ली मातेर भायर येता, तेखातीर असल्यो वस्तू नाकांत गेल्यार त्यो रोकडच्योच काडूंक जाय.

२. नाकांतल्यान रगत व्हांवप - नाकाच्या मदल्या पडद्याच्या सकयल्या आनी फुडल्या भागार बारीक बारीक रगताच्या शिरांचें जाळें आसता, आनी ताका चडशा पेशीजाळांचो आदार नाशिल्ल्यान त्यो फुटूंक शकतात आनी ताका लागून रगत व्हांवता. रगत व्हांवता तें रोखडेंच बंद करूंक जाय तेखातीर दोन बोटांनी भायले वटेन नाकपुडयो धा मिनटां घट्ट दामून दवरल्यार रगत व्हांवपाचें थांबता. पूण जर तें थांबलेंना जाल्यार दोतोरागेर व्हरून नाकाचे पुडयेंत कोकेन आनी अॅड्रेनॅलीन ह्या वखदांनी बुडयल्ली वात घालची पडटा. इतलेंय करून रगत थांबलेंना जाल्यार विजेचो वापर करून त्यो फुटिल्ल्यो शिरो जळोवंच्यो पडटात.

३. नाक गळप, थंडी जावप - बारीक जंतू, खर वास वा हेर कसल्योय अॅलर्जीक वस्तू नाकांत वचत जाल्यार नाकाचे श्लेष्मकलेंतल्या ग्रंथींतलो स्त्राव वाडटा आनी नाक व्हांवंक लागता. एकेकदां खूब शिंकोय येतात, तकली जड जाता आनी जोर लेगीत येवंक शकता. चडशे खेपे व्हायरस वा अॅलर्जी हेंच कारण आसता. तेन्ना अॅण्टीहिस्टामीन (antihistamine), अॅस्पिरीन (aspirin), विटामीन सी (Vitamin C) पोटांत घेवप वा मॅंथॉलसारक्या वखदांचो वास घेतल्यार बऱ्याक पडूंक शकता.

परतून परतून नाक चोंदल्यार, नाक-ताळो आनी कानाचो तज्ञ दोतोराकडल्यान तपासून घेवंचें.

- डॉ. पूर्णानंद अवदी

**नाग** : (विभाग : पृष्ठवंशी (फाटीकणो आशिल्लो); वर्ग : सरीसृप (सरपटपी); गण : स्क्यूमॅटा; उपगण : सरपेंटस (सोरोप); कूळ : इलॅपिडी; पंगड : प्रोटेरोग्लाफा; जाती : नाजा; प्रजाती : नाजा).

फोड आशिल्लो हो सोरोप चड करून उश्ण प्रदेशांनी दिश्टी पडटा. पुराय वाड जाल्ल्या नागाची लांबाय सुमार १३५०-१८०० मिमी. मेरेन आसता. नराची लांबाय मादयेपरस चड आसता. वेगवेगळ्या वाठारांनी वेगवेगळ्या रंगांचे नाग आसतात. भारतांत सांपडपी नागांचो रंग चड करून काळो आसता. कांय कडेन गंवा रंगाचे नागय सांपडटात. गोयांत सांपडपी नाग चड करून गंवाच्या, काळ्या वा पुडीरंगाचे आसतात. पूण कुडीचे सकयले वटेनचो कोर धवसो वा हळदुवसार आसता. राजस्थानाच्या दक्षिण वाठारांत कांयकडेन धव्या रंगाचे नाग सांपडटात.



नागाचें खाशेलेपण म्हळ्यार ताचें फोड (फणो). ताचे मानेर लांब बरगड्यो आसतात. नाग गरजेप्रमाण जेन्ना ह्यो बरगड्यो फुलयता तेन्ना फोड तयार जाता. ताका कोणूय दुखयत जाल्यार तो आपणाची राखण करपाखातीर फणो फुलोवन तयारेंत उबो रावता. तेचप्रमाण तो रागान चाबता तेन्ना फोड फुलयता.

ज्या नागांची फोडां रुंद आसतात तांकां वयले वटेन ओक्लांवरी खूण आसता. पूण चडशा नागांच्या फण्यार वाटकुळी काळी खूण आसून तिचे भोंवतणी धवें वाटकूळ आसता. चडशा नागांचे मानेसकयल काळे पटे आसतात. तांकां वडी म्हण्टात. ह्या वडींच्या संखेप्रमाण नाग चाबतकीर ताच्या विखाची बाधा जावपाची गती थारता असो समज आसा. कांय नागांच्या फोडांचेर कसलीच खूण नासता. ह्या प्रकाराचे नाग कच्छ, राजस्थान, काठेवाड आनी मध्य भारतांत सांपडटात.

नागाची तकली कुडीच्या मानान ल्हान आसून मानेसावन स्पश्टपणान वेगळी आसना. नाकपुडयो उब्यो आनी व्हड आसतात. दोळे मध्यम पूण

चड भायर आसतात. तांकां पातकड्यो नासतात. ताची नदर खर आसून, साप बारीक बारीक हालचालींचेर लेगीत तो आपलो दोळो दवरता. ताची जीब लांब, बारीक पूण मदीं चिरिल्ली आसून तिका दोन फांटे आसतात. जीब हें नागाचें एक खानींद्रीय आसून वास घेवपाच्या कामांत ती ताच्या नाकाक आदार करता. तशेंच अन्न सोदपाखातीर, नराक वा मादयेक एकमेकांचो सोद घेवपाखातीर आनी दुस्मानाचो दावो धरपाखातीर ताचो उपेग जाता. वयल्या जबड्यांतले मुखावयले दोन दांत हेर दांतांपरस लांब आसतात. हे विखाळे दांत वांकडे आसून तातूंत वयर वीख सांठयल्लें आसता. हे विखाळे दांत कांय कारणांक लागून पडले वा मोडले जाल्यार तांच्या जाग्यार नवे दांत येतात. नवे दांत येवपाक २४ ते ४० दीस लागतात.

नागाक कान आसनात. तेचपरी कानाचो भितल्लो भागूय पुरायपणान विकसीत जाल्लो नासता. हाका लागून ताका खूब उणें आयकुपाक येता.

नाग हो भिजूड सोरोप आशिल्ल्यान तो मनशाचेर आपूण जावन हल्लो करिना. पूण कोणेंय ताका दुखयल्यार तो १२ वर्सां मेरेन लेगीत दावो धरता असो कांय लोकांचो समज आसा. हो समज गैरसमजुतीचेर आदारला असो शास्त्रीय दावो आसा. नाग हो रात्रिंचर प्राणी आशिल्ल्यान ताका दिसापरस रातचें बरें दिसता. हाका लागून आपल्या दुस्मानांचेर हल्लो करपाक तशेंच आपलें खाण मेळोवपाखातीर रातचो भायर सरता. विखाळ्या दांतांचे वयले वटेन बदामाच्या आकाराची विखाची गांठ आसता. नाग आपल्या दुस्मानांक जेन्ना रागान चाबता तेन्ना गांठीचेर दाब पडून वीख ह्या दांतांतल्यान नेटान भायर सरता. नागाचें वीख पातळ आनी पारदर्शक आसता. पूण जायते खेपे रगत मिश्रीत जाल्ल्यान तें काळशें वा निळशेंशें दिसता. नागाच्या विखाचो परिणाम रोखडोच जाणवता. ताचो परिणाम तंत्रिका केंद्राचेर (nerve center) जाता. हाका लागून रोखडोच उपाय केलोना जाल्यार नाग चाबिल्लो मनीस रोखडोच मरूंक शकता. नाग चाबिल्ल्या मनशाक घुंवळ येवपाक लागता, ताचे नाडयेचीय गती हिस्पाभायर वाडटा, खूब लाळ येवपाक लागता, ताका ओंकारो येता, जीब आडवी पडटा आनी ताका कलकलो सुट्टा. उपरांत दोळ्यांचेर साय येवपाक लागता आनी ते ल्हवल्हव भितर ओडिल्ल्या भाशेन दिसतात. ताचो उस्वास जड जायत वता. निमाणेकडेन काळजांत कळो मारून जीव वता. ह्या प्रकाराक गोंयकार वडी मारप म्हण्टात. नागाच्या विखाचेर अँटीवॅनमाचें इंजॅक्शन होच एक बरो उपाय. पूण भारतांतल्या दर एका गांवांत गांवठी वखद/उपाय करून नागाच्या विखाचेर उतार काडपाची परंपरा आयज लेगीत चलत आसा. अशा वखदांक/उपायांक शास्त्रीय आदार ना अशे विज्ञानीकांचें मत आसा.

नागांमदीं नर आनी मादी वेगवेगळीं आसून, दोगांय विखाळीं आसात. जानेवारी ते मार्च हो तांचो फळपाचो तेंप. सुमार ८-१० म्हयन्यांनी मादी सर्वसादारण १०-२० धवीं वाटकुळीं लांबशीं तांतयां घालता. ४५ तांतयांची विक्रमी नोंद आसा. तांतयां मध्यम आकाराचीं आसून, सुमार दोन-तीन म्हयन्यांनी तांतयां फुटून पिलां भायर येतात. हीं पिलां पयल्याच म्हयन्यांत उण्यांत उणे तीन खेपे तरी कात सोडटात. उपरांत नागाची वाड जाता तशी तांकां कात सोडची पडटा. कात सोडच्या तेंपार तो सुस्तेता. दोळ्यांचेर साय आयिल्ल्यान ताका उणें दिश्टी पडटा.

बेबे, हुंदीर, घुशी हें नागाचें मुखेल खाण. पूण केन्नाकेन्नाय तो सवणीं, तांचीं तांतयां, कोंबडेचीं पिलां, शेड्डे आनी हेर ल्हानल्हान जिवाणीं खाता. नाग सगळेकडेन दिश्टी पडटा. दाट रानांनी तसोच मनशाचो राबितो आसता थंयसरय तो पळोवपाक मेळटा. तेचपरी झोंपांनी, उकत्या मळांनी, शेतां-भाटांनी, मोडकीं घरां वा देवळांनी तो रावता. रोयण ही ताची खाशेली सुवात. मुंगूस हो नागाचो मुखेल दुस्मान.

भारतीय संस्कृतींत नागाक म्हत्वाची सुवात लाबल्या. लोककथा, कला आनी धर्म ह्या सगळ्यांमदीं नागाचें अस्तित्व जाणवता. सबंद भारतांत चडकरून दक्षिण भारतांत नागाची पुजा करतात. श्रावण शुद्ध पंचमी दिसा (नागपंचमी) हिंदू लोक नागाची पुजा करतात. नागाविशीं साबार आख्यायीका प्रसिद्ध आसात. कालियामर्दन, समुद्रमंथन, शेषशाई, जन्मेजय हाचो सर्पसत्र ह्या कथांनी नागाचो संदर्भ येता. कालिया, शेष, वासुकी, तक्षक, पुंडरीक, कर्कोटक आनी हेर व्हड नागांचीं नांवां पुराणांत वाचूंक मेळटात. पुराणीक कथांनी विष्णु आनी शंकर ह्या दोनूय मुखेल देवांबरोबर नागांचो संबंद दिसता. बऱ्याच देवांच्या शिल्पांनी आभुशण वा सांगाती म्हणून नाग दिसता. बुद्ध तशेंच जैन पंथीयांमदींय नागाक संस्कृतीक म्हत्व दिल्लें आसा. ते भायर नागकन्या, नागलोक अशे काल्पनीक संदर्भूय भारतीय संस्कृतींत मेळटा. पुराण वांङमयांत, जातक कथांनी आनी लोककथांनी नागांच्यो महिमा कथा मेळटात. ज्या दांपत्यागेर संतत जायना तागेर संतत जावंची म्हणून नागाची भांगर ना जाल्यार रुप्याची प्रतीमा करून लोक पुजेक लायतात. उपरांत ही प्रतीमा आपल्या कूळदेवाक ना जाल्यार तळ्यांत, न्हंयेंत वा दर्यांत सोडपाची प्रथा आसा. तशेंच, आपल्या हातांत अजाणपणान नागाची हत्या घडली जाल्यारूय नागाची मुर्त देवाक अर्पण करपाची प्रथा आसा.

भारतांत साबार गारूडी लोक दांत काडून बिनविखाळी केल्ल्या नागांचो खेळ करून आपलो दिसवडो सोडयतात. कांय नागांच्यो खाशेल्यो जाती राखून दवरपाखातीर साबार अभयारण्यांनी खाशेली वेवस्था केल्ली आसा.

एस. आर. गनिहार

पूरक नोंदी : नागपंचम, तक्षक, नागबळी.

**नाग जमात :** एक आदिवासी जमात. आसाम आनी ब्रह्मदेश हांचे शिमेवयल्या दोंगराळ आनी रानवटी वाठारांत हे लोक रावतात. हे लोक मूळचे मंगोल वंशाचे आसून, हजारांनी वर्सां ते भारताच्या ईशान्य वाठारांत राविल्ल्यान तांकां इंडो-मोंगोलॉयड ह्या नांवान वळखतात.

नाग ह्या शब्दाची उत्पत्ती निश्चीतपणान सांगूंक येना. 'नग' म्हळ्यार पर्वत ह्या संस्कृत उतरावयल्यान 'नाग' हो शब्द आयला आसूं येता. नग्न ह्या शब्दावयल्यानय नागाची उत्पत्ती सांगल्या. पूण सगळे नाग लोक पर्वताचेर रावनात आनी नागडेय रावनात. नाग हें तांचें कुलचिन्न आशिल्ल्यानय तांकां नाग हें नांव पडलां आसूं येता. व्हॅरिअर एल्विन हाच्या मतान तिबेटी-ब्रह्मी पंगडांतल्या कांय भाशांनी नोक (लोक) असो एक शब्द आसा, ताचेवयल्यान नाग हें नांव मेळ्ळां. पूण पयलीं हे लोक आपूण ह्या नांवाचो उपेग करिनाशिल्ले. कोन्याक नागा, अंगामी नागा, आओ नागा, कुबई, चंग, फोम, लोथा, संगताम, सेमा नागा, मारिंग, चखेसंग, धिमचुंग्र, झेलियांग, खीनमुंगन ह्या तांच्या पोटजातींच्या नांवांनी तांकां वळखतात. पुर्विल्ल्या किरात लोकांकडेन नागा लोकांचो संबंद लायतात.

नागा जमातींचे गांव चड करून दोंगरांचेर आसतात. दरेके जमातीचो गांव वेगळो आसता. गांवाभोंवतणीं दुरीग वा कोंड्यांची वंय आसता. कांय गांवांनी, घरांची, रस्त्यांची बरी आंखणी केल्ली आसता. चडशीं घरां

कोंड्यांचीं आनी कांय घरां लाकडाचीं आसतात. तीं जमनीसावन मातशे उंचायेर वा मचाण बांदून ताचेर बांदतात. हीं घरां व्हड आनी घट्ट आसतात. गांवमुखेल्याचीं घरांय व्हड आसतात. घरांच्यो वण्टी तरातरांच्या रंगांनी रंगयतात. घराचे फुडले कुडींत गोरवां पोसप, मदले कुडींत रांदप, जेवप, खावप, बसप-उठप हे वेव्हार आनी फाटल्यान कोठयेकूड आसता. पूण शेताचें चडशें सामान, कड्डण शेतांतले खोंपींत दवरतात. दरेका घराचे भायले वटेन मनशाची कवटी, सांगाडो आनी शिंगां आसतात. तांच्या पराक्रमाचीं तीं प्रतीकां मानतात. पयलीं नागा लोकांमदीं दुस्मानाची तकली कापून घरा हाडपाची चाल आशिल्ली.

ह्या लोकांचे दरेके जमातीची भास वेगळी. तांच्यो खूब बोली आसात. ह्यो सगळ्यो बोली तिबेटी आनी ब्रह्मी ह्या भाशांच्या भरसणेंतल्यान जाल्यात, पूण तांच्यांतूय खूब फरक आसा. ताका लागून चडशा जमातींक एकमेकांच्यो भाशा समजनात. देखून असमिया वा हिंदी भाशेचो तांकां वापर करचो पडटा. नागांचे बोलींत बरपावळ ना पूण तोंडयां चलत आयिल्ल्यो लोकांकाणयो आनी लोकगितां आसात. काम करतना, तरणाटे चले-चलयो हीं पदां उमेदीन म्हण्टात.

रानांत सामके भितर रावपी कांय दादले-बायलो चडशे अर्द-उकतेच रावतात. जाल्यार कांय जाण रंगीबेरंगी कपडे घालतात. पूण चडशे लोक शिंपयो, खड्ड्यो, मोतयां, पोंवळीं हांच्यो माळो; लाकडी वा हतया दातांचीं कानांतलीं कडीं ह्यो वस्ती घालतात. कंवचेचे मणी, पांखां, कोंड्यांचे वा हाडांचे कुडके हांचेपसून वेगवेगळ्या तरांच्यो वस्ती तयार करून हे लोक आपलो देह सजयतात.

कांय नाग लोक चड करून जमातींचे मुखेली, रूपेस्त, ऊंच, बळिश्ट आनी सावळ्या रंगाचे आसतात. तशेंच सादे, प्रमाणीक, विश्वासू आनी कश्ट करपी आसतात. धिटाय, बुद्धिमत्ता, शिस्त आनी शौर्य हे गूण तांचेमदीं दिश्टी पडटात.

तांदूळ, सगळ्या तरांचें मास, नुस्तें आनी भाजीपालो हें नागांचें मुखेल अन्न. पयलीं हे लोक दूद पियेनाशिल्ले. पूण आतां कांय लोक दूद पियेतात. तांदळांपसून केल्लो सोरो हें तांचें आवडटें पेय.

सूर्य ही तांची मुखेल देवता. सेमियो, कुंचिपाई, रुपिआवा ह्या देवांक ते भजतात. सेमियो आनी कुंचिपाई हे धन आनी बरें पीक दितात, रुपिआवा हो दुश्ट देव आसून ताका शांत करपाखातीर सुणो आनी दुकर बळी दितात. कनंगआवा हो आनीक एक कुड्डो आनी उग्र वेताळ. सगळ्या देवांक रेडे, गायो हांचो बळी दितात. विश्वाचो निर्मातो आनी मनीस जिणेचेर नियंत्रण दवरपी असो कोणतरी म्हान देव आसून, ताच्या हाताखाल खूब देव आसात असो नागांचो समज आसा. आत्मो अमर आसता हे कल्पनेचेरूय तांचो विश्वास आसा. हे लोक भुतांखेतांकूय भजतात आनी मड्याची पुजा करतात. न्हंयो, झाडां, दोंगर हांचीय देव मानून पुजा करतात. झूजदेवतेक प्रसन्न करपाखातीर 'केदोहोल' नांवाचो नाच करतात. झुजांत जैत मेळटकच मड्याची पुजा करून नाच करतात.

तरणाटे चले-चलयांचीं विंगडविंगड सामुदायिक शेजघरां आसतात. कोन्याक जमातींत चल्यांच्या शेजघराक 'मोरूंग' म्हण्टात आनी चलयांच्या शेजघराक 'यो' म्हण्टात. 'आओ' आनी 'अंगामी नागा' ह्या जमातींचें एकेकूच शेजघर आसता. तांकां अनुक्रमान 'अरिची' आनी 'किचुकी' अशीं नांवां आसात. एक जाण्टी बायल थंय त्या चले-चलयांचेर देखरेख दवरता. भुरगीं आपल्या जोडीदाराची निवड हांगाच करतात.

नागांची कुटूंब पद्दत पितृसत्ताक आसून तांचेभितर विभक्त कुटूंब पद्दत आसा. लग्न जातकच चलो वेगळें बिराड करता. लग्नांत, गाय, दुकर वा सोरो अशें वधूमूल्य दितात. सोयऱ्यांक कोंबयेचे जेवण आनी सोरो घालो की तांचो लग्नसुवाळो सोंपता. एकाच गोत्रांत लग्न जायना. वधूमूल्य दिवपाक परवडना जाल्यार जांवयाक आपल्या मांवाकडेन काम करचें पडटा. नाग जमातींत 'सेमा' ही पोटजमात सोडल्यार हेर सगळे पोट जातींत एकेच बायलेकडेन लग्न जातात. ह्या लोकांमदीं घटस्फोट घेवप सोपें आसता. बायलेची नितीभायली वागणूक हें ताचें मुखेल कारण आसता. पूण सभाव पटना जाल्यारूय घटस्फोट घेवपाक मेळटा. दादलो दोशी आसल्यार ताका दंड भरचो पडटा. ती रक्कम ताच्या मांवाक मेळटा. आंकवार चलयांक लैंगिक स्वातंत्र्य आसता. अपत्यजल्म, नामनेचो मनीस मेल्यार, भूंयकांप जाल्यार, उजो लागल्यार वा गिराण आसल्यार गांवचे सगळे वेव्हार बंद दवरतात. ताका 'गेन्ना' अशें म्हण्टात. नागा जमातीच्या लोकांची शासन वेवस्था परंपारीक पद्दतीची आसता.

नागांच्या विंगडविंगड पोटजमातींनी अंत्यविधीचे विंगडविंगड प्रकार आसात. कांय लोक मडें पुरतात, कांय लासतात, कोणूय उकत्यार उडयतात जाल्यार कांय जाण लाकडी पेटयेंत घालून गांवाभायर झाडाक हुमकळायतात. कांय नागा लोक मड्याचे कुडके करून उडयतात. मड्याचें मास झडटकच उरिल्लीं हाडां पुरपाची वा लासपाचीय चाल आसा. 'आओ' आनी कोन्याक ह्या जमातींनी मडें पुरचेपयलीं शेंदरेंत घालून कांय दीस मंदाग्नीचेर दवरतात. कांय दिसांनी कवटी भायर पडली की गांवाभायर पुरून थडें बांदतात. फुडारी मेल्यार ताचें मडें कलाकुसर केल्ले फरशीचेर दवरतात.

नागांची वर्साचे सुरवातीची परब 'मोत्सू' ह्या नाचान सुरू जाता. गांव, घरां निवळ करून नाचाचो भेस, अलंकार आनी आयुधां निवळ करतात. ह्या उत्सवांत तांदळांचो सोरो पियेवन तरणाटे चले – चलयो नाचतात. भाताची कापणी जातकच पौकपटुगी नांवाचो सुवाळो मनयतात. ह्या वेळार खूब खेळ खेळटात.

शेतकाम हो नाग लोकांचो मुखेल वेवसाय. ते भात, बटाट, कापूस, ऊंस आनी भाजीपालो पिकयतात. ते झूम पद्दतीन शेती करतात. शिकार करप होय तांचो एक उद्देग. वेताच्यो, कोड्यांच्यो वस्तू करपांतूय ते कुशळ आसात.

नागा लोकांत विसाव्या शेकड्यांत खूब बदल घडून आयले. तांचो संबंद आर्विल्लें शिक्षण, राजकीय चळवळी आनी सुदारणा हांचेकडेन आयलो. सरकाराच्यो आदिवासींखातीर दवरिल्ल्यो येवजण्यो तांकां मेळ्ळ्यो आनी ते सुशिक्षीत जाले.

– कों. वि. सं. मं.

**नागडे, काशीनाथ शंकर :** (जल्म : पीर्ण – बारदेस; मरण : २४ डिसेंबर १९८३).

सुटकेझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा ताणें थिवी सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी सुमार दोन वर्सां आग्वाद बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नागपंचम :** श्रावण शुद्ध पंचमीक नागपंचम म्हण्टात. ह्या दिसा नागाची म्हळ्यार सोरपाची पुजा करतात. भारतांतली ही एक म्हत्वाची परब. नागपंचमीचे नागपुजेची दंतकथा सांगतात ती अशी - एक शेतकामती आशिल्लो. ताणें एक दीस सदचेवरी जमीन नांगरूंक सुरवात केली. पूण नांगर जमनींत घुसतनाच ताचे पोंदा आशिल्ल्या रोयणींतल्या नागाचे पिलांक मार लागलो आनी तीं मेलीं. तें पळोवन नागिणीक राग आयलो. तिणें शेतकामत्याक आनी ताच्या बायल-भुरग्यांक दंश करून मारून उडयलीं. नागिणीक कळ्ळें की शेतकामत्याची एक धूव दुसऱ्या गांवांत आसा. नागीण तिका मारूंक थंय गेली. तेन्ना ती चली पाटाचेर चंदनान नागाची आकृती काडून तिची पुजा करताली. दूद आनी ल्हायांचो निवेद्य दाखोवन ती प्रार्थना करूंक बशिल्ली. तें पळोवन नागीण प्रसन्न जाली, थंयचें दूद पियेवन तिणें ते चलयेक अभय दिलें. तेचपरी तिच्या आवय-बापायक आनी भावंडांक जिवे केले.

त्या दिसा कृष्णान कालिया नागाचें मर्दन केलें आनी तो ताचे सयत वयर आयलो. तेन्ना लोकांनी कृष्णाची आनी नागाची पुजा केली अशीय कथा सांगतात.

मनशाक त्रास दिवपी मोनजातींत नाग हो एक भिरांकूळ असो जीव. देखून वर्सांतल्यान एक फावट ताची पुजा केल्यार ताचेपसून भिरांत उरपाची ना हे कल्पनेन श्रावण शुद्ध पंचमी दिसा नागाची पुजा रूढ जाली आसूंक जाय. ही चड करून बायलांची परब समजतात. त्या दिसा धातूची वा मातयेची नागाची प्रतीमा करून वा रक्तचंदनान वा हळदीन पाटाचेर नागाच्यो आकृती काडून ताची पुजा करतात. कांयकडेन गारुडी लोक खरे नाग घेवन दारादारांनी भोंवतात. लोक ह्या खऱ्या नागाक दूद आनी ल्हायांचो निवेद्य दाखयतात. त्या दिसा जमीन खणप, नांगरप, भाजयो चिरप, तळप हे सारकिल्ल्यो गजाली करिनात.

कांयकडेन नागपंचमी दिसा बायलो आनी चलयो गांवाभायर वचून रोयणीची वा देवळांत वचून नागाची पुजा करतात. तेभायर सांजेचें पदां म्हणप, फेर धरप, वेगवेगळे खेळ खेळप अशेंय करून ही परब मनयतात.

भारतांत संगळे कडेन ही परब मनयतात. काशीक 'नागकूप' नांवाचें तीर्थ आसा. विद्वान पंडित त्या दिसा थंय शास्त्र चर्चा करून नागकुपाचें उदक नागतीर्थ म्हणून घेतात. बंगालांत नागदेवता मनसादेवीची, राजस्थानांत पीपा, तेजा आदी पुराणीक नागदेवांची पुजा करतात.

'नागपंचमी व्रत' नांवाचें बायलांनी आचरण करपाचें दुसरे एक व्रत आसा. कांयकडेन हें व्रत श्रावण वद्य पंचमीक जाल्यार कांयकडेन भाद्रपद शुद्ध पंचमीक करतात.

– महादेव कृष्ण अभिषेकी

**नागपूर :** महाराष्ट्र राज्याच्या नागपूर (विदर्भ) विभागाचें तेचपरी नागपूर जिल्ह्याचें मुखेल ठिकाण आनी महाराष्ट्रांची दुसरी राजधानी. लोकसंख्या ३२,७४,९७४ (१९९१). इकराव्या शतमानाचे सुर्वेक, गोंड राजा बख्त बुलंद हाणें नाग न्हंयेचे देगेर ह्या शाराची स्थापना केली. ताचेवयल्यानच ह्या शाराक नागपूर हें नांव पडलें. पेंढाऱ्यांनी हें शार लाशिल्लें. पेशव्यांच्या कारकिर्दीत तें नागपूरकर भोंसल्यांची राजधानी आशिल्लें. १८१८ त पेशवाई वतकच हांगा ल्हव ल्हव ब्रिटीश सत्तेचो प्रभाव पडूंक लागलो. उपरांत १८५३ त तें पुरायपणान ब्रिटीश सत्तेखाल गेलें. १८६१ त तें तेन्नाच्या मध्य वाठाराची राजधानी जालें. भारत स्वतंत्र जातकच १९५६ त राज्यांची पुनर्रचणूक जायमेरेन हांगा मध्यप्रदेशाची राजधानी आशिल्ली. उपरांत ह्या शाराचो द्विभाशीक मुंबय राज्यांत आस्पाव जालो आनी १९६० त तें महाराष्ट्र राज्यांत विलीन जालें

१८६७ त ह्या शारांत रेल्वे आयली आनी नागपूराचे उदरगतीक सुरवात जाली. शाराक कन्हान न्हंय, अंबाझरी आनी गोरेवाडा तळीं ह्या स्त्रोतांतल्यान उदकापुरवण जाता. भारतांत ह्या शाराक मध्यवर्ती भुगोलीक स्थान मेळिल्ल्यान हवाई, रेल्वे आनी रस्ते आदी येरादारी मार्गांचें, तेचपरी संदेशवहनाचें तें प्रस्थानक जालां. तेचखातीर शाराक वेपारी म्हत्वय आयलां. कापसाच्या उत्पादनाखातीर आनी संत्रांच्या बागांखातीर ह्या शाराची नामना आसा. हातमाग, कापड आनी सूतागिरण्यो, लाकूड कापप आनी हेर जायते कारखाने ह्या शारांत आसात. हांगाचीं हातमागावयलीं कापडां तशेंच कपडे आनी संत्रां बाजाराची नामना आसा. हांगा उद्देगीक वसणुको आसून हांगाच्या ल्हान-व्हड कारखान्यांतल्यान लोखण आनी हेर धातूंच्यो तरेकवार वस्तू, येरादारीचीं साधनां. तेल, बर्फ, विडयो आदींचें उत्पादन आनी छापणावळीचें काम जाता. हांगाच्या कामठी उद्देगीक क्षेत्राकय म्हत्व आसा. लागसल्ल्या वाठारांतल्या खापरखेडा आनी कोराडी औश्णिक विद्युत् उत्पादन केंद्राची वीज पुरवण हांगासल्ल्या उद्देगधंद्याक जाता. शाराक शासकीय दूद पुरवणेची येवजण आसा. उद्देगीकरणाखातीर शारांत जातल्या दुशीत वातावरणाचें निर्मुलन करपाच्यो कार्यावळी चालींत आसात.

१९२३ त हांगा नागपूर विद्यपिठाची स्थापना जाली. हांगा लक्ष्मीनारायण तंत्रम्हाविद्यालय, वैजकी म्हाविद्यालय, आयुर्वेद म्हाविद्यालय, कारगृह, ग्रंथालय, विदर्भ साहित्य संघाचें कार्यालय आनी हेर शिक्षणीक तशेंच संस्कृतीक संस्था आसात. हांगा आकाशवाणी केंद्रय आसा. महानगरपालिका, स्थायी समिती आनी म्हानगरपालिका आयुक्त हांचेवतीन शाराचो कारभार चलता. हांगासल्ल्यान नागपूर टाइम्स आनी हितवादी हीं इंग्लीश, तरूण भारत, महाराष्ट्र टाइम्स आनी लोकमत हीं मराठी, युगधर्म आनी हेर दोन हिंदी हीं मुखेल दिसाळीं तेचपरी मराठी आनी हिंदी भाशेंतल्यान येवपी 'उद्यम' मासिक, ऑल इंडिया रिपोर्टर हें कायद्याविशींचें म्हयन्याळें आनी हेर नियतकालिकां उजवाडाक येतात. तेलखंडी तळें आनी बाग, शुक्रवारी तळें, अंबाझरी आनी महाराज बाग, वस्तूसंग्रहालय, शाराच्या मदीं आशिल्ल्या दोंगुल्लेवयलो सीतावर्डीचो किल्लो, सचिवालय, म्हानगरपालिका, रिझर्व बँक ऑफ इंडिया आदींच्यो व्हड इमारती, राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचो संस्थापक डॉ. हेगडेवार हाचें स्मारक, गांधी बाग, गीतामंदीर, झांशीची राणी आदींचे पुतळे, जायतीं धर्मीक पुजास्थानां हीं हांगाचीं पळोवपासारकीं थळां.

महाराष्ट्राच्या विधीमंडळाचें वर्सांतलें शियाळी अधिवेशन ह्या शारांत भरता. म्हणुनूच ह्या शाराक महाराष्ट्राची दुसरी राजधानी समजतात. महाराष्ट्राच्या उच्च न्यायालयाच्या खंडपिठाचें काम हांगासल्ल्यानच चलता. डॉ. आंबेडकराचो भौशीक बौद्धधर्म स्विकार (१४ ऑक्टोबर १९५६), तेचपरी अखिल भारतीय काँग्रेसीचीं दोन अधिवेशनां ह्या शारांतच भरिल्लीं.

– कों. वि. सं. मं.

**नागबळी :** बलीदानाचो एक प्रकार. ह्या वा आदल्या जल्मांत खबर

आसून वा नासून नागाक मारल्यार कोणाकूय भुरगींबाळां जायनात अशें म्हण्टात. ह्या दोशाच्या परिहाराखातीर नागबळी करचो अशें पुराणांत सांगलां. हें कर्म घरांत करिनासतना न्हंयेचे देगेर करचें अशेंय सांगलां. हाचो विधी असो - आश्लेषा नखेत्राचो देव सोरोप आशिल्ल्यान तें नखेत्र आसतना वा पुनव-उमासेच्या दिसा ह्या विधीक सुरवात जाता. सुर्वेक येजमानान सर्पसंस्काराचो अधिकार मेळोवपाखातीर ब्राह्मणाक विचारून फावो तें प्रायश्चित करचें पडटा. उपरांत एक लोखणाचो दांडो ब्राह्मणाक दान दिवंचो पडटा. दुसऱ्या दिसा न्हावन तांदूळ, गंव वा तीळ हांच्या पिठाचो नाग करून, तो सुपांत दवरून मंत्र म्हणून ताका आवाहन करचें; हो मंत्र असो -

एही पूर्वं मृतसर्प ह्यास्मिन् पिष्टे समाविशा
संस्कारार्थमहं भक्त्या प्रार्थयामि समाहितः ॥

**अर्थ** - हे मरण आयिल्ल्या सोरपा, तूं यो आनी हे पिठाचे मुर्तींत प्रवेश कर. हांव संस्कार करपाखातीर सावधानचित्त जावन भक्तीन तुजी प्रार्थना करतां.

उपरांत सर्पगायत्रीन ताची पुजा करची. ताका पायसबळी दिवंचो. लौकिकाग्नीची स्थापना करची. प्रधान होमाआदीं अग्नीच्या आग्नेयीक भुंयेचेर उदक शिंपडावन थंय एक सरण रचचें. ताचेर तो पिठाचो नाग दवरचो. उपरांत प्रधान होम करचो. व्याहृतीच्यो तीन आज्याहुती उज्यांत दिवन चवथी आहुती सोरपाच्या तोंडांत दिवंची. उरिल्लें आज्य सोरपाच्या आंगार शिंपडावंचें. उपरांत त्या सरणाक उजो लावंचो. सरणाक प्रदक्षिणा घालून सोरपाची प्रार्थना करची. सोरोप जळटकच सरणाचेर उदक शिंपडावंचें आनी उपरांत न्हावन घरांत येवंचें.

उपरांत तीन दीस वा एक दीस सुतक पाळचें. सुतक सोंपतकच आठ ब्राह्मणांक श्राद्ध विधीप्रमाण जेवण दिवचें. हे आठ ब्राह्मण म्हळ्यार सोरोप, अनंत, शेष, कपिल, नाग, कालिक, शंखपाल आनी भूधर ह्या आठ नागांचे प्रतिनिधी समजतात. ब्राह्मणांक जेवण वाडटकच ह्या नागांखातीर पायसाचे पींड करून तांचें बलिदान करचें.

उपरांत भांगराचो एक नाग करून ताची घटाचेर स्थापणूक करची आनी ताची पुजा करून तो ब्राह्मणाक दान दिवंचो. उपरांत भटाची पुजा, ब्राह्मणांक जेवण, आशिर्वाद ग्रहण आदी करून कर्म पुराय करचें. नागबळी आदीं नारायणबळी करचो अशें सांगलां. अशें केल्ल्यान सोरपाचो भंय उरना. सोरपाक मारपाच्या पातकांतल्यान सुटका मेळटा. तेभायर भलायकी, भुरगींबाळां आनी विष्णुलोक प्राप्ती जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**नागर ब्राह्मण :** एक ब्राह्मण जात. हे चड करून गुजरात प्रदेशांत रावतात. गुजरातांतल्या औदीच्य ब्राह्मणांची ही एक पोटशाखा. हे लोक मूळचे हिमालयाकडले आनी उपरांत ते हांगा आयले अशें सांगतात. हे लोक नागवंशाचे आसुंये असोय समज आसा. तांचे जातीचे उत्पत्तीविशीं जायत्यो आख्यायिका आसात. तातूंतल्यो दोन आख्यायिका अशो -

१. शिव-पार्वतीच्या लग्ना वेळार पुरयतपण करपा खातीर शिवान स ब्राह्मण निर्माण केले आनी उपरांत स नागकन्यांकडेन तांचीं लग्नां लावन दिलीं. तांची संतती म्हळ्यारूच नागर ब्राह्मण.

२. एक फावट एक मंत्रीक एका नागा फाटल्यान लागलो. तेन्ना भियेवन नागान ब्राह्मणाचें रूप घेतलें आनी तो वडनगराक पळून आयलो. थंय तो एके ब्राह्मण चलयेकडेन लग्न जालो. तिका जीं भुरगींबाळां जालीं तेच आतांचे नागर ब्राह्मण. तांच्यांत भारा, विशाल, चित्तोरीय, कृष्णपुरी, प्रश्नोर आनी साठोदरा अशो स पोटजाती आसात. हीं सगलीं नांवां तांकां त्या-त्या थळावयल्यान पडल्यांत. तेभायर तांचेमदीं बाडर नांवाची एक पोटजात आसा. जे कोण अनागर चलयेकडेन लग्न जातात ते बाटले अशें समजून तांकां बाडर अशें म्हणटात. भारा आनी साठोदारा हातूंत ऋग्वेदी फांट्याचे लोक खूब आसात. विशाल नागरांत चडशे यजुर्वेदी फांट्याचे लोक आसात. पुराय गुजराती ब्राह्मणांमदीं नागर ब्राह्मण आपणाक व्हड समजतात.

हाटकेश्वर हें तांचें कुलदैवत आसून, अंबाजीमाता ही कुलदेवी. हे लोक आचार, विचार, बुद्धी हातूंत खुबूच फुडारिल्ले आसात. देवनागरी लिपी आपणें निर्माण केली अशें ते समजतात.

- कों. वि. सं. मं.

**नागरीक आनी नागरीकत्व :** ज्या देशांत निश्चीत राज्यघटना आसता आनी थंयच्या लोकांक घटनेन निश्चीत हक्क दिल्ले आसतात, अशा देशांतल्या व्यक्तींक 'नागरीक' अशें म्हण्टात. ज्या मनशाक नगरराज्यांत सार्वजनिक पदाधिकार मेळूक शकतात ते व्यक्तीक नागरीक म्हण्टात आनी लोकांक आपल्या देशांत मेळिल्लो राजकीय दर्जो म्हळ्यार नागरीकत्व अशें (ॲरिस्टोटलच्या व्याखेवरवीं) म्हणूं येता. राज्याच्या कायद्यांप्रमाण व्यक्ती आनी राज्य हांचे संबंद थरयल्ले आसतात. नागरीकत्वांत जण एका नागरीकाक जशे कांय अधिकार दिल्ले आसतात तशीं तांचीं कांय कर्तव्यांय आसतात.

नागरीकत्वाची कल्पना सुर्वेक ग्रीसी नगरराज्यांत अस्तित्वांत आयली. त्या काळांत साबार नगरराज्यां आशिल्लीं. जो नगराचो घटक तो नागरीक आसतालो. पूण बायलांक आनी गुलामांक नागरीकत्वाचे अधिकार नाशिल्ले. त्या काळांत राज्याच्या नागरी, राजकीय आनी लस्करी कामांनी सगळ्या नागरिकांचो वांटो आसतालो. दर नागरीक हो सैनिक, विधानसभा वांगडी आनी न्यायाधिशूय आसतालो. मध्ययुगांत रोमी साम्राज्यांत आनी युरोपांतूय अशीच परिस्थिती आशिल्ली. पूण पंदराव्या शेकड्या उपरांत राजेशाय आयली तेन्ना नागरीक हो त्या राज्याचो प्रजाजन जालो.

ब्रिटनांतले इ.स. १६८८ च्या क्रांतीउपरांत आनी इ.स. १७८९ चे फ्रँच राज्यक्रांती उपरांत परिस्थितीत बदल जालो. सगळ्या नागरिकांक समान दर्ज्याचे हक्क मेळचे हो हे क्रांतीचो मुखेल उद्देश आशिल्लो. जेन्ना राश्ट्रवादाची उदरगत जायत गेली, तेन्ना देशाच्या कामांत वांटो घेवप हो आपलो हक्क आसा अशें सगळ्या नागरिकांक दिसपाक लागलें. राश्ट्राची जनता सार्वभौम आनी शासनाचे अधिकार घटनेंत मर्यादीत आसात, ह्या दोन कल्पनांतल्यान आधुनीक काळांतल्या नागरिकत्वाचो उगम जालो.

नागरीकत्व दोन तरांनी मेळूंक शकता. सैमीक आनी नागरिकीकरणाच्या आदारान. सैमीक नागरीकत्व जल्माच्या आदाराचेर मेळटा. भारत, अमेरिका, ब्रिटन आनी हेर देशांच्या नेमांप्रमाण त्या देशांत जल्माक आयिल्ल्या भुरग्याक त्या देशाचे नागरीकाचे अधिकार मेळूक शकतात. तशेंच आवय वा बापूय ज्या देशाचे नागरीक आसात आनी तांच्या भुरग्याचो जल्म खंयसरूय जाल्यार ताका त्या देशाचें नागरीकत्व मेळूंक शकता. खंयचीय बायल जेन्ना परकी नागरिकाकडेन लग्न जाता तेन्ना तिचें

आपल्या देशाचें नागरीकत्त्व रद्द जाता आनी ती आपल्या घोवाच्या देशाची नागरीक जाता. परकी नागरिकाक राबित्याच्या आदाराचेर नागरीकत्व मेळूंक शकता. नागरीकत्व आपणायतना ताका त्या देशाच्यो कांय अटी मानून घेवंच्यो पडटात. नागरीकत्व दितना राबित्याचो उण्यांत उणो काळ थरयल्लो आसता. परकी नागरिकाक दुसऱ्या देशाचें नागरीकत्व जाय जाल्यार ताणें त्या देशाक अर्ज करचो पडटा. आपल्या राश्ट्राचें नागरीकत्व रद्द करून नव्या राश्ट्राच्या नागरिकाप्रमाण वावुरतलो असो सोपूत घेवंचो पडटा. ज्या देशाचें नागरीकत्व जाय आसता त्या देशाच्या भाशेचें कामापुरतें तरी गिन्यान आसचें पडटा.

सगळ्या नागरिकांक कांय राजकीय आनी कांय नागरी अधिकार आसतात. देखीक-परदेशी राबितो आसतना लेगीत आपल्या राश्ट्राकडल्यान संरक्षण मेळप, राज्यांत सदांखातीर राबितो करप, मतदान करप, भौशिक अधिकारपद आपणावप, शासनालागीं अर्ज करप, संघटना करप. ह्या अधिकारांवांगडा नागरिकांक कांय कर्तव्यांचेय पालन करचें पडटा. देखीक - राज्याचे सगळे कायदे पाळप, राश्ट्रनिश्ट आसप, तेखातीर परकी आक्रमणासारक्या संकटांच्या वा देशाभितरल्या आणिबाणीच्या काळांत देशाचे राखणेखातीर सैन्यांत भरती जावप, तशेंच सरकारी अधिकाऱ्यांक आनी पोलीस अधिकाऱ्यांक आपलें कर्तव्य करपा खातीर आदार करप, वेंचणुकेच्या वेळार मतदान करप आनी कर भरप.

**भारतीय नागरीकत्व :** स्वातंत्र्यापयलींच्या काळांत सगळेच भारतीय ब्रिटीश साम्राज्यसत्तेचे प्रजाजन आशिल्ले. भारत स्वतंत्र जाले उपरांत २६ जानेवारी १९५० दिसा हिंदुस्थान सार्वभौम लोकशायी गणराज्य जालें आनी त्याच दिसा हिंदुस्थानाचे लोक भारताचे नागरीक जाले. देशाची फाळणी जाले उपरांत लाखांनी निर्वासीत पाकिस्तानांतल्यान भारतांत आयले. तांकां नागरीकत्व दिवपाचें काय ना हाका लागून १९५५ त संसदेन नागरीकत्वाचो नवो कायदो पास केलो.

भारतीय राज्यघटनेच्या कलम ५ ते ११ त नागरीकत्वा संबंदींचे तजविजी प्रमाण संविधानाचे सुर्वेक खंयच्या मनशाचो राबितो भारतांत आशिल्लो आनी जो मनीस भारतांत जल्माक आयिल्लो, वा ताचो आवय वा बापूय हांचो एकाचो जल्म भारतांत जाल्लो, वा जो मनीस संविधाना पयलीं उण्यांत उणीं पांच वर्सां भारतांत रावतालो असो जण एकलो भारताचो नागरीक जालो. पाकिस्तानांतल्यान भारतांत आयिल्ल्या लोकांकूय नागरीकत्वाचे अधिकार दिले. जे लोक एक मार्च १९४७ उपरांत पाकिस्तानांत गेले ते भारताचे नागरीक उरूंक नात, पूण ते परत भारतांत आयले जाल्यार कांय खाशेल्या अटींचेर तांकां भारताचें नागरीकत्व दितले अशें मान्य केलें. भारतीय नागरीकत्वाचो अधिकार जांकां मेळ्ळा ताणीं ताचो वायट उपेग केलो, जाल्यार हे अधिकार काडून घेवपाची तजवीज संविधानांत केल्ली आसा.

नागरीकत्वाच्या कायद्यांतले तजविजी प्रमाण भारतांत २६ जानेवारी १९५० पयलीं जल्माक आयिल्ली व्यक्ती भारताची नागरीक जाता. तशेंच, भारताची नागरीक आशिल्ली व्यक्ती २६ जानेवारी १९५० दिसा भारताभायर आसली तरीय ती भारतीय नागरीक जाता. मूळ भारतीय आनी अर्ज करचे पयलीं वर्सभर भारतांत राबितो करून आशिल्ली पूण ताचे पयलीं वर्सभर भारताची नागरीक नाशिल्ली व्यक्ती, मूळची भारतीय पूण परदेशांत राबितो करून आशिल्ली पूण भारताचें नागरीकत्व मेळूंक नाशिल्ली, भारतीय नागरीकाकडेन लग्न जाल्ली परकी बायल, भारतीय आवय-बापायचीं भुरगीं हांकांय भारतीय नागरीकत्व मेळूंक शकता.

बेचाळिसावे घटना दुरूस्तेवरवीं भारतीय नागरीकाचीं कर्तव्यां हीं भारतीय राज्यघटनेच्या ५१ व्या कलमांत आस्पावल्यांत. तीं म्हळ्यार राज्यघटनेचें पालन करप आनी देशाचे आदर्श आनी संस्था, राश्ट्रध्वज, राश्ट्रगीत हांचो आदर करप, भारताची सार्वभौमताय, एकताय आनी एकात्मताय हांची राखण करप; देशाचें संरक्षण करपाक हातभार लावप आनी देशाची सेवा करप; धर्मीक, भाशीक आनी प्रदेशीक वा वर्गीय भेद पयस करून भारतीय जनतेंत एकवट हाडप आनी भावबंधी वाडोवप तशेंच बायलांची प्रतिश्ठा राखप; भारताच्या संस्कृतायेच्या वारसाची जतनाय घेवप; सैमीक पर्यावरणाची राखण करप; भौशिक संपत्तीची राखण करप.

- कों. वि. सं. मं.

**नागरीकशास्त्र :** ज्या देशांत निश्चीत राज्यघटना आसता आनी थंयच्या लोकांक घटनेन निश्चीत अधिकार दिल्ले आसतात, अशा देशांतल्या व्यक्तींक 'नागरीक' अशें म्हण्टात. जाल्यार नागरिकांचो राज्याकडेन आनी समाजाकडेन आशिल्ल्या संबंदांचो अभ्यास करपी शास्त्राक नागरीकशास्त्र अशें म्हण्टात.

मनीस हो समाजमोगी आशिल्ल्यान जेवणखाण, वस्त्र आनी आलाशिरो ह्यो मुळाव्यो गरजो भागोवपाखातीर ताका समाजाची गरज पडटा. गिन्यान, मनोरंजन आनी बरी जीण जगपाक समाजाची गरज आसता. समाजांत रावल्यारूच ताच्या जिविताक पुरायपण लाबता. कुटुंबांत तशेंच धर्मीक, वेवसायीक, राजकीय आनी संस्कृतीक संस्थांनी वांटो घेवन तो आपणाचो आनी समाजाचोय विकास करूंक शकता. समाजांत रावन ताच्या समुहाचे उदरगतीखातीर वा भलायकेखातीर मनशाच्या आंगांत कांय गूण आसप भोव गरजेचें. राश्ट्राचो अभिमान, कायद्याविशीं आदर, न्याय-वेव्हार, सहनशीलता, एकमेकाच्या आदाराची जाणीव हे गूण मनशाच्या आंगांत आसचे पडटात. असले गूण नागरीकांच्या पदरांत पडचे म्हणून चडशा देशांनी शिक्षणाचो एक वांटो म्हणून 'नागरीकशास्त्र' हो विशय शिकयतात. नागरिकांची जीण सुखी, सुसंवादी आनी वेवस्थीत जावंची म्हणून लागपी आचार, विचार आनी वेव्हार हांचे नेम नागरीकशास्त्र अभ्यासांत आस्पावतात. ह्या शास्त्रावरवीं नागरिकाच्या आचाराचो, रावपाचो, हेर समाजाकडेन आशिल्ले ताचे संबंद आनी हे संबंद बरे रितीन कशे उपेगांत हाडपाचे हे विचार नागरीकशास्त्रांत येतात. समाजांत खंयची वागणूक बरी आनी खंयची वायट हांचे कांय आदर्श ह्या शास्त्रान थरयल्ले आसात.

नागरीकशास्त्र जिविताच्या विंगडविंगड भागांचो अभ्यास करता. नागरिकांच्या हक्कांचो आनी कर्तव्यांचो तातूंत मुखेलपणान विचार जाता. कुटुंबांत, शाळेंत आनी मागीर समाजांत कशें वागप, तशेंच ह्या आनी हेर संस्थांतल्या मनशांची वागणूक कशी आसची हांची म्हायती नागरीकशास्त्राच्या अभ्यासान समजता. विंगड - विंगड स्वयंसेवी संघटना, समाजीक संस्था, थळाव्यो स्वराज्य संस्था, हेरांचें आनी नागरीकांचें तशेंच एका नागरिकाचे दुसऱ्याकडेन संबंद कशे आसचे हांचो अभ्यास नागरीकशास्त्राचे वळेरेंत येता. आदर्श नागरीक कोणाक म्हणप हाचीय म्हायती नागरीकशास्त्र दिता. नागरीकशास्त्र फकत एकाच मनशाच्या सुखाचो वा गरीब - गिरेस्त असो भेदभाव करिना. समाजांतले सगळे लोक कशे सुखी जातले हाचे विशीं हें

शास्त्र मार्गदर्शन करता. मनीस एकलो एकसुरो आपली उदरगत करूंक शकना. ताची उदरगत समाजाचे उदरगतीचेर आदारिल्ली आसता. आयचे नवे परिस्थितींत मनशाचीं कर्तव्यां आनी जापसालदारक्यो बदलत रावतात. नाकरीकाक तांची जाणीव आसप भोव गरजेचें. समाजजीण सुखी, वेवस्थीत जावपाखातीर नागरीकशास्त्रांतले शिकवणुकेची भोव गरज आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**नागरी लिपी :** (पळेयात देवनागरी लिपी).

**नाग वंश :** भारतांतलो एक पुर्विल्लो वंश. पुर्विल्ल्या काळासावन भारतांत नाग राजा राज्य करताले आसूंक जाय. पूण तांचे उल्लेख खुबूच उण्या प्रमाणांत मेळटात. पुराणांत नागराजांनी विदिशा, मथुरा, कांतिपुरी आनी पद्मावती राज्यांनी राज्य केल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. विदिशेच्या सदाचंद्र, चंद्राशू, नखवान, धनधर्मा, भूतिनंद आदी नाग राजांचो उल्लेख आसा. पूण हाचेभायर हेर कांयच म्हायती मेळना. मथुरेंत सात आनी पद्मावतींत णव नागराजा जावन गेल्ल्याचो उल्लेख पुराणांत आसा. पूण तांचीं नांवां दिवंक नात. कांतीपुरी खंय आशिल्ली हाचीय निश्चीत म्हायती मेळना.

पद्मावतीक भवनाग, भीमनाग, बृहस्पतीनाग, देवनाग, गणपतिनाग, प्रभाकरनाग, स्कंदनाग अशा जायत्या नागराजांचीं नाणीं मेळ्ळ्यांत. पद्मावतीचे हे राजा भारशिव कुळांतले आशिल्ले. ते आपल्या खांदार शिवलिंग धारण करताले. भगवान शंकराच्या प्रसादान आपलो नागवंश तयार जालो अशें ते मानताले. ताणीं धा अश्वमेध यज्ञ केल्ले. आपल्या पराक्रमान भागीरथी न्हंयेचें उदक मेळोवन ताणीं आपणाक राज्याभिशेक करून घेतिल्लो. गणपतीनागाचीं नाणीं पद्मावती आनी मथुरेक मेळ्ळ्यांत. भवनागान आपली धूव विदर्भाचो वाकाटक राजकूंवर गौतमीपुत्र हाका दिवन उत्तर आनी दक्षिण भारताची आघाडी निर्माण केल्ली. पूण समुद्रगुप्तान नागांक हारोवन पद्मावतीचें राज्य गुप्त साम्राज्यांत आस्पावन घेतलें. ताणें गणपतीनाग, नागसेन, अच्युत आनी नंदी हांचो नाश केलो अशें ताच्या प्रयागप्रशस्तींत म्हळां.

समुद्रगुप्तान कांय नागकुळांकडेन शरीरसंबंद दवरिल्लो. ताचो पूत दुसरो चंद्रगुप्त हाची कुबेरनागा ही राणी नागवंशांतली आशिल्ली. दक्षिण भारतांत नागराज्यां आशिल्लीं. सातवाहनवंशी सिमुक (श्रीमुख) हाची राणी नागनिका ही नागकन्या आशिल्ली.

मध्य प्रदेशाच्या छत्तीसगढांतल्या बस्तरांत आनी रायपूर जिल्ह्यांत चवदाव्या शतमानामेरेन नागराज्यां तिगून आशिल्लीं. पद्मगुप्ताच्या नवसाहसांक चरितांत धार हांगाचो परमारनृपती हो एके नागकन्येकडेन लग्न जाल्ल्याचो उल्लेख आसा. ती नागकन्या बस्तर जिल्ह्यांत चक्रकोटाक राज्य करपी नाग वंशांतली आशिल्ली अशें संशोधनावयल्यान सिद्ध जालां. दक्षिणेंत हेर कांय नागराज्यां आशिल्लीं. कदंबाचे आनी उपरांत बादामीच्या चालुक्याचे मांडलीक आशिल्ले सेंद्रक राजा नागवंशाचे आशिल्ले.

काश्मीरांतलो कर्कोट वंशय नागांतलोच आशिल्लो. ताचो मूळपुरूस दुर्लभवर्धन हो इ.स. ६५० च्या सुमाराक राज्यार आयलो. ताच्या काळांत चीनी भोंवडेकार ह्युएनत्सांग काश्मीरांत आयिल्लो. ताणें आपल्या वर्णनांत म्हळां, दुर्लभवर्धनाचें राज्य वायव्येक पंजाबमेरेन पातळिल्लें. ताचो व्हडलो पूत चंद्रापीड हाका चीनी सम्राटान इ.स. ७२० त राजा म्हणून मान्यताय दिवन ताचेकडेन मैत्री जुळयल्ली. ह्या राजाची ताच्या न्यायीपणाखातीर नामना आशिल्ली. हाका फुडें ताच्याच तारापीड नांवाच्या पुतान मारलो. तारापीडाची कारकीर्द चारच वर्सां आशिल्ली. ताचे उपरांत ललितादित्य मुक्तापीड हो इ.स. ७२४ त गादयेर आयलो. हो काश्मीराचो सर्वश्रेश्ठ राजा आशिल्लो. ताणें जायतीं जैतां मेळयलीं. ताणें गौड, कामरूप, कलींग, कर्णाट, कावेरी, कोंकण, सौराष्ट्र, उत्तर कुरू, जलंदर आदी 'देश' जिकून दिग्वीजय मेळयलो.

ललितादित्यान काश्मीरांत आनी हेरकडेन शिव, विष्णु, आदित्य हांचीं बी देवळां तशेंच बौद्ध स्तूप आनी काश्मीरांतलें नामनेचें मार्तंड देवूळ बादिल्लें. तांचे भव्य अवशेष श्रीनगरापसून कांय अंतराचेर मत्तन गांवालागसार अजुनूय दिसतात. ललितादित्य हाणें इ.स. ७२४ - ७४० मेरेन राज्य केलें. ताचे उपरांत ह्या राज्याक देंवती कळा लागली. शेवटाक उत्पलवंशी अवन्तिवर्मन हो राजा ८५५ सुमाराक राज्यार आयलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नागवेंकार, जयवंत विठ्ठल :** (जल्म : १९ सप्टेंबर, १९२८, ओडली - सालसेत).

सुटकेझुजारी. तो नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो राश्ट्रीय वावर करतालो. ६ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब त्रास दिलो. प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून डिसेंबर १९५५ त ताका ५वर्सां खातीर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ४ फेब्रुवारी १९५८ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. उपरांत तो परतून राजकीय वावर करूंक लागलो. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नागवेंकार, दत्ताराम कुश्ठा :** (जल्म : २० मार्च १९३४, शिवोली - दांडो-बारदेस).

सुटकेझुजारी. १९५२-५७ ह्या काळांत तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आनी पंगडाचो मुखेल आशिल्लो. १७ मे १९५७ ह्या दिसाच्यान तो 'रांकोर पात्रिओतिका' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. ताच्याच शिबिराचो तो मुखेल आशिल्लो. २६ जानेवारी १९५४ ह्या दिसा ताणें कांयसूवा किल्लो, हणजूण्यां आनी मोरजे तिरंगी बावटो लायलो. पत्रकां वांटप, पोलीस ठाण्याचेर आनी रेल्वे स्टेशनाचेर हल्लो करप, केरी पुलाचेर स्फोट घडोवन हाडप हातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो.

२८ ऑगस्ट १९५८ ह्या दिसा पोलिसांनी ताच्या घराचेर धाड घाली. पूण तो पळून वजऱ्यां गेल्ल्यान तांच्या हाताक लागलो ना. पोलीसांनी ताचे आवयक धरून तिचो छळ केलो. ताणें जायत्या पोलीस ठाण्यांचेर हल्लो करून थंयचीं पिस्तोलां आनी तुबकां उबारलीं. तीं पोलीस ठाणीं आनी दीस अशे आसात - गुळेली (१.२.१९५५), कळंगूट (३.२.१९५५), अस्नोडें (११.२.१९५५), सत्तरी (८.२.१९५६), होंडा (३०.९.१९५६), कालिया, दमण (२.८.१९५७), सुपानगुडी (८.१०.१९५७), पोळें (९.१०.१९५७), हकणें, पेडणें (७.११.१९५९), कुडतरी

(८.११.१९५७), सावरजुंवें आनी चांदेल (२४.११.१९५७); २६ जानेवारी १९५८ दिसा मोपा वाठारांत लस्करी जिपीचेर स्फोट घडोवन हाडलो. १५ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा म्हापशें नगरपालिकेकडेन ताणें स्फोटक पदार्थ दवरिल्लो. ताचे गैरहजेरेंत ताचेर खटलो चलोवन ताका २२ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**नागवेंकार, नारायण यशवंत :** (जल्म : २८ मार्च १९२८, म्हापशें).

सुटकेझुजारी. ताणें विद्यालयीन शिक्षण इंग्लिशींतल्यान घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. १९५२ वर्सासावन तो भूंयगत राजकीय वावरांनी वांटो घेतालो. पोलीसांनी ताका धरलो आनी सात म्हयने बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**नागवेंकार, सदानंद पुरुषोत्तम :** (जल्म : १९२२, करजळें - तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. सांवड्ड्यां ताणें बसका घडोवन हाडिल्ली. ६ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा ताणें मडगांवां जाल्ल्या सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताच्या वांगड्यांसयत ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. उपरांत ताका पांच म्हयन्यांखातीर आग्वाद बंदखणींत दवरलो. ताका प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १९६० वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८४ ह्या दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**नागार्जून -१ :** एक व्हड बौद्ध आचार्य, माध्यमिक संप्रदायाचो प्रवर्तक आनी तत्त्ववेत्तो. कुमारजीवी हाणें ४०५ च्या सुमाराक बरयल्ल्या ताच्या चरित्राचो चीनी अणकार उपलब्ध आसा. ताचो जल्म दक्षिण भारतांतल्या एका ब्राह्मण कुळांत जालो म्हणपाचें ताचेवयल्यान कळटा. 'अर्जून रुखापोंदा ताचो जल्म जालो आनी एका नागान ताका आदार दिलो हाका लागून ताका नागार्जून अशें नांव पडलें', अशी एक दंतकथा आसा. तिबेटी ग्रंथांतय ताचेविशीं जायत्यो आख्यायिका आसात. तो सुमाराभायर हुशार आशिल्लो. फकत णव्वद दिसांनी ताणें तिनूय बौद्ध पिटकांचो अभ्यास पुराय केलो. तरी पूण ताचें समाधान जालेंना. देखून तो हेर ग्रंथांचो सोद घेवपाक लागलो. फुडें ताका हिमालयांतल्या एका जाण्ट्या भिक्षूकडल्यान महायानसूत्र प्राप्त जालें. तिबेटी परंपरेप्रमाण तो नालंदाक कांय तेंप आशिल्लो. पूण कांय अभ्यासकांच्या मताप्रमाण तो आंध्र प्रदेशांतल्या श्रीशैलम पर्वताचेर चड तेंप राविल्लो. नागार्जून चडसो धान्यकटक वा धरणीकोटाक (जिल्हो - गुंटूर) रावतालो आनी थंय ताणें विहार बांदिल्लो अशें कांय अभ्यासक मानतात. नागार्जून हो सातवाहन वंशांतल्या यज्ञश्री (इ.स. १२७-१६५) राज्याच्या काळांतलो आनी ताचो इश्ट आशिल्लो. तशेंच ताचो जल्म विदर्भांतल्या एका ब्राह्मणकुळांत जालो अशें ह्युएनत्सेंग हाणें आपल्या भोंवडे वर्णनांत बरोवन दवरलां.

बौद्ध तत्वज्ञानांत नागार्जूनान नवें युग सुरू केलें. तशेंच महायानावरवीं ताणें माध्यमिकशास्त्र वा शुन्यतावादाचो पुरस्कार केलो. ताच्या माध्यमिककारिका नांवाच्या ग्रंथांत महायान सुत्राच्या उपदेशांतलें सार सांगलां. ह्या ग्रंथावरवीं ताची हुशारकाय, सुमाराभायली बुद्धीमत्ता आनी खर बारीकसाण हांची कल्पना येता. ताणें 'प्रज्ञापारमिते' हाचेर 'महाप्रज्ञापारमिता' नांवाची संस्कृत टिका बरयल्या तशेंच 'मूल्यमध्यमककारिका' नांवाचो एक संस्कृत ग्रंथ बरोवन ताचेर 'अकुतोभया' नांवाची टिका बरयल्या. ही आतां संस्कृत भाशेंत उपलब्ध ना पूण तिचे तिबेटी आनी चीनी अणकार उपलब्ध आसात. प्रज्ञापारमिताशास्त्र, प्रज्ञामूलशास्त्रटीका, प्रज्ञाप्रदीपशास्त्र, मूलमाध्यमिक - शास्त्र, मध्यंतानुगमशास्त्र, दशभूमिविभाषाशास्त्र, द्वादशनिकायशास्त्र, विग्रहव्यवर्तिनीकारिका, युक्तिशतिका, शुन्यतासप्तती, प्रतीत्यसमुत्पादहृदय, महायानविंशिका बी जायते ग्रंथ ताणें बरयले अशें सांगतात. नागार्जूनान राजा यज्ञश्रीक बरयल्लें एक पत्र सुहृलेख ह्या नांवान प्रसिद्ध आसून, तातूंत बौद्ध धर्माचो नैतिक उपदेश आसा.

नागार्जूनाच्या मतान वस्तू 'चतुपकोटिविनिर्मुक्त' चार प्रकारच्या विधानांत मेळना. त्यो चार कोटी अशो - (१) 'आसा' अशें ना. (२) 'ना' अशेंय ना (३) 'आसा आनी ना' अशेंय ना. (४) 'आसा' अशें ना आनी 'ना' अशेंय ना. खंयचेंय विधान करिनासतना तेविशीं खंयचेंय निश्चीत मत दिवप शक्य ना अशी भुमिका बाळगप हेंच योग्य. नागार्जूनाच्या माध्यमिक संप्रदायाचें मत म्हळ्यार खंयच्याय वस्तूचो, संभव आसा अशा चारांतलो खंयच्याय एका प्रकारान वर्णन करपाक येता वा चारांतल्या एका प्रकारचें विधान करपाक येता. नागार्जूनाच्या मतान हे चार प्रकार, विधानां वा कोटींतलो खंयचोय प्रकार, विधाना वा कोटी खंयचे वस्तूक लागू पडूंक शकना. म्हणजे, खंयचेय वस्तूविशीं कसलेंय विधान करूंक येना.

नागार्जूनामेरेन बौद्ध तत्वगिन्यांत मनशाभितर पुद्गल वा आत्मो नांवाची चिरंतन अशी वस्त ना अशें मानताले. नागार्जूनान ही गजाल मान्य केलीच, पूण हाचेफुडें वचून ताणें 'धर्मशून्यताय' हे संकल्पनेक म्हत्व दिलें. म्हळ्यार भायल्या संवसारांत दिसपी सगळ्याच गजालींक आपणाचें अस्तित्त्व ना. ताचें अस्तित्त्व हेर वस्तूंचेर आदारीत आसा, अर्थांत ताचें अस्तित्त्व सापेक्ष आसा.

वेव्हारीक नदरेन सगळेच वेव्हार बरेपणान चलतात हें लोकांनी मानिल्लें सत्य आसा. संवृतिसत्य म्हळ्यार लोकसंमत सत्य वा 'वेव्हारीक' सत्य. लोकसंमत सत्याचे नदरेन संवसाराक अस्तित्त्व आसा. परमार्थीक नदरेन मात जग शुन्य आसा. परमार्थीक सत्याचो उपदेश करतना लौकीक कुरवांचो वा लोकसंमत भाशेचो उपेग करचो पडटा, अशें नागार्जूनान आपले 'कारिकेंत' म्हळां.

नागार्जून हो बौद्ध संप्रदायांतलो म्हान भाश्यकार आशिल्लोच; तशेंच द्वंद्वीय पद्दतीच्या युक्तिवादाचो वापर करपी तो बुदवंत तर्कवेत्तो आनी बौद्ध तत्वगिन्यानाक गडगंज असो भावरूप अर्थ मेळोवन दिवपी चिकित्सक जाणकार आशिल्लो. ताणें तत्वगिन्यानाच्या मळार भारतीय दर्शनांच्या इतिहासांत केल्लो वावर मोलादिक आसा. ताका 'बोधिसत्व' आनी 'आर्य'

अशो उपाध्यो आशिल्ल्यो. ताच्यो कांय कोरांतिल्ल्यो मूर्ती मेळटात.

– कों. वि. सं. मं.

**नागार्जून – २ :** (जल्म : १९१०, तरौनी – दरभंगा).

नामनेचो हिंदी लेखक. ताचें मूळ नांव वैद्यनाथ मिश्र. 'नागार्जून' आनी 'यात्री' ह्या टोपण नांवांनी ताणें लिखाण केलां. पिरायेच्या २०-२१ व्या वर्सा घरांतल्यान भायर सरून ताणें संन्यास आपणायलो. श्रीलंकेक वचून लेखन आनी अध्ययन करपाखातीर ताणें घरदार सोडिल्लें. पूण तांचे वंशावळींतलो तो एकलो एकसुरो चलो आशिल्ल्या कारणान ताका परतो ग्रहस्थाश्रम आपणावंचो पडलो. साहित्याचेर आपलें जिवीत घालोवपी हिंदीचो तो समर्थ कवी आनी कादंबरीकार आसून ताका ल्हानपणासावन भोंवडेची आवड आशिल्ली.

१९४५ सावन ताणें बरोवपाक सुरवात केली. 'रतिनाथ की चाची' (१९४८), 'बलचनमा' (१९५२), 'नया पौध' (१९५३), 'बाबा बटेसर नाथ' (१९५४), 'दुखमोचन' (१९५७), 'वरूण के बेटे' (१९५७), 'कुंभी पाक' (१९६०), 'इम्हारतिया' (१९६८), 'उग्रतारा' (१९७०) ह्यो ताच्यो नामनेच्यो कादंबऱ्यो. ताचे कांदबरेंत गांवगिऱ्या जिविताचें चित्रण प्रभावीपणान आयिल्लें आसून ताच्या लिखाणांचेर मार्क्सवादी विचारांचें पडबींब पडिल्लें दिसता. ताचे 'बलचनमा' हे कादंबरीक चड नामना मेळ्ळ्या.

कादंबरी वांगडाच कविता होय साहित्यप्रकार ताणें केळयल्लो आसून ताच्या कवितांनी प्रगतीशील विचार दिश्टी पडटात. 'युगधारा' (१९५२), 'सतरंगे पंखोंवाली' (१९५९), 'भस्मांकुर' (१९७०), 'तालाब की मछलीयाँ' (१९७५) हे ताचे कवितांझेले उजवाडाक आयल्यात. ताचे कवितेंत खर विडंबन, मार्मीक उपहास आनी खोचक विनोद आसून ताच्या कांय कवितांत सैमाचेंय चित्रण केल्लें दिश्टी पडटा. गांवगिरी आनी नागर दोनूय तरेच्यो भासो बरे तरेन बरोवंक शकतल्या ह्या कवीक संस्कृताचोय बरो अभ्यास आशिल्लो. प्रागतिक विचारांचो एक प्रयोगशील कवी म्हणून ताका हिंदींत खाशेलें स्थान आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**नागार्जून – ३ :** (इ.स. चें ७वें शतमान).

पुर्विल्लो भारतीय रसायनशास्त्रज्ञ. बौद्ध आचार्य नागार्जून आनी हो एकूच अशी आदीं समजूत आशिल्ली. पूण ते दोगूय वेगवेगळे अशें चडशे विद्वान मानतात. आनी हें स्पश्ट करपाखातीर ह्या रसायनशास्त्रज्ञाक सिद्ध नागार्जून अशें म्हण्टात. ताचो जल्म दक्षिण भारतांतल्या कांची नगरांत सुमार ७ व्या शतमानांत जालो. तो तंत्रशास्त्राचो आचार्य आशिल्लो. ताणें श्रीपर्वताचेर तारादेवीची उपासना आनी तंत्रीक साधना केल्ली असो उल्लेख मेळटा. ताका एका तपस्व्याकडल्यान रसायनविद्या आनी मायूरीविद्या (सामान्य धातूपसून भांगर तयार करप) प्राप्त जाल्ली अशी आख्यायिका आसा. ताणें भारतांतल्या खनिजांपसून वेगवेगळ्या प्रकारचीं रसायनां आनी कच्च्या धातूपसून शुद्ध धातू तयार करपाची पद्दत सोदून काडली देखूनूच ताका भारतीय रसायनशास्त्राचो प्रवर्तक मानतात. पारो आनी हेर धातूंचे संरस (पारो आनी ते ते धातूची भरसण) ताणेंच पयली तयार केली. ताणें बरयल्लो नामनेचो 'रसरत्नाकर' नांवाचो एक ग्रंथ आसा. तातूंत रसायनीक प्रक्रिया आनी प्रयोगीक उपकरणां हांचेविशीं म्हायती आसा. प्रफुल्लचंद्र रॉय हांच्या 'हिस्टरी ऑफ हिंदू कॅमिस्ट्री' ह्या पुस्तकांत नागार्जूनाविशीं म्हायती दिल्ली आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**नागार्जून कोंडा :** आंध्र प्रदेश राज्यांतल्या बौद्ध अवशेशांचें एक नामनेचें थळ. गुंटूर जिल्ह्यांत माचेर्ला गांवचे वायव्येक सुमार २४ किमी. अंतराचेर कृष्णा न्हंयेचे दक्षिण देगेर हें थळ वसलां. नागार्जून कोंडा हो नल्लमलई पर्वतांचोच एक भाग आसून त्या भागा लागसल्ल्या सपाट प्रदेशांतल्यान कृष्णा न्हंय व्हांवता. कृष्णेचे देगेर आनी दोंगरावयल्या सडयार पुर्विल्ले अवशेश मेळ्ळ्यात. हे सगळे अवशेश विजयपुरी, श्रीपर्वत आनी नागार्जून कोंडा अशा तीन भांगांनी पातळ्ळ्यात.

विजयपुरीचे उदेंतेक श्रीपर्वत नांवाचो दोंगर आसा. ह्या दोंगरावयल्या एका विहारांत नामनेचो बौद्ध आचार्य नागार्जून रावतालो आनी थंयच ताका निर्वाण प्राप्त जालें अशी परंपरीक कथा तिबेटी साहित्यांत मेळटा. ह्या आचार्याच्या नांवावयल्यानच ह्या दोंगराक नागार्जूनकोंडा हें नांव मेळ्ळें.

हांगाच्या अवशेशांचो सोद सुरपुरजा वेंकटरमय्या ह्या एका शिक्षकाक १९२६ त लागलो. उपरांत रंगस्वामी सरस्वतीन ह्या पुरालिपिवयल्यान हांगाच्या अवशेशांची सुर्वेक पळोवणी केली आनी उपरांत लाँगहर्स्ट ह्या पुरातत्त्ववेत्त्यान १९२७-३१ ह्या काळांत हांगा व्हड प्रमाणांत उत्खनन केलें. फुडें १९३८-४० आनी १९५४-६१ ह्या काळांत भारत सरकाराच्या पुरातत्त्वीय विभागावतीन हांगा उत्खननां जालीं. उत्खननांनी वेगवेगळ्या काळांतले अवशेश मेळ्ळ्यात. तातूंत अश्मयूग, नवाश्मयूग, महाश्मयूग आनी इ. स. आदीं तिसरें शतक ते इ.स. चें तिसरें शतक ह्या काळांतले इक्ष्वाकू राजांच्या काळांतले अवशेश मेळ्ळ्यात. सुर्वेच्या उत्खननांत ल्हान-व्हड स्तूप, चैत्य, विहार, राजप्रासाद, मंडप आनी शेंकड्यांनी शिलालेख मेळ्ळ्यात. शिलालेख चडशे इ.स. २००-३०० काळांतले आसून तातूंतले चडशे इक्ष्वाकू राजाराणयांचे आसात. ह्या शिलालेखां वयल्यान ह्या वाठाराचो खूबसो पुर्विल्लो इतिहास मेळ्ळो. कृष्णा न्हंयेचे देगेर इ.स. च्या तिसऱ्या शेंकड्यांत विजयपुरी नांवाचें नगर आशिल्लें आनी ती इक्ष्वाकूवंशी राजांची राजधानी आशिल्ली. हे राजा सुर्वेक सातवाहनाचे मांडलीक आशिल्ले. फुडें सातवाहना उपरांत तेच सत्ताधीश जाले. ते वैदिक धर्माचे आशिल्ले तरीय तांचो बौद्ध धर्माक आलाशिरो आशिल्लो. देखूनूच हांगा मेळिल्ल्या अवशेशांनी अश्वमेध यज्ञाच्या कुंडावांगडाच जायते बौद्ध स्तूप, चैत्य आनी विहार हांच्यो वास्तू मेळ्ळ्यात. विजयपुरी त्या काळांतलें एक भरभराटीक पाविल्लें वेपारी शार आनी बंदर आशिल्लें. मॅगस्थीनीझ, प्लिनी, टॉलेमी सारके परकी लेखक हांगाचे सुबत्तेचो परतो परतो उल्लेख करतात. तेभायर हांगा रोमी बनावटीचीं नाणींय मेळ्ळ्यांत. नागर्जूनकोंडा हें एक नामनेचें विद्यापीठ आशिल्लें, जायत्या वाठारांतले विद्यार्थी हांगा शिकपाखातीर येताले.

उपरांतच्या उत्खननांत हांगा चडशीं पुर्विल्लीं अश्मयुगांतलीं हत्यारां नवाश्मयुगांतलीं दफनां आनी मनशाचे सांगाडे, इक्ष्वाकु काळांतले स्तूप, विहार, तेचपरी नगररचना, न्हाणीघरां, घाट, देवळां आनी जायत्या शिल्पांचे अवशेश मेळ्ळ्यात. इतिहासीक काळांत ह्या नगराची रचना भुईकोट किल्ल्याभाशेन आशिल्ली आनी नगरा भोंवतणीं प्राकार आशिल्लो.

प्राकार सुर्वेक मातयेचो आशिल्लो आनी उपरांत तो विटांनी बांदलो. प्राकाराचे उदेंतेक आनी अस्तंतेक दोन प्रवेशदारां आशिल्लीं आनी भितर जायते स्तूप आसून तांची बांदावळ चक्राकार बुन्यादीचेर केल्ली आशिल्ली. ह्या वाठारांतल्या सगम्यांत व्हडल्या स्तुपाचो उल्लेख शिलालेखांत महाचैत्य असो केला. ताचे भितर रुप्याचो एक ल्हान स्तूप आसून तातूंत भांगरापेटयेंत बुद्धाचे अस्थीचो एक ल्हान कुडको दवरिल्लो. देखून ह्या स्तुपाक धातुगर्भ मानतात. सद्या हो बुद्ध-धातू सारनाथच्या मूलगंधकुटी विहारांत दवरला. ह्या स्तुपाचे उदेंतेक अपरमहाविनसेलिया नांवाचो एक विहार आशिल्लो. तेभायर हांगा संघाराम, सिंहल हे विहार, शांतिश्री, बोधिश्री हीं चैत्यघरां, स्वास्तिक स्तूप आदी जायत्यो बौद्ध वास्तू आशिल्ल्यो. तांच्या भग्नावशेशांत जायते संगमरवरी खांबे आनी शिलालेख मेळिल्ले आसून तांचेर सुंदर शिल्पाकृती कोरांतिल्ल्यो आसात. ह्या सगळ्या शिल्पकामांत बुद्धाच्या जिवितांतले खाशेले प्रसंग आनी जातककथांचें चित्रण केल्लें आसा. महाचैत्याच्या पांच खांब्यांचेर बुद्धाच्या जिवितांतले पांच प्रसंग चितारिल्ले आसात.

ह्या भागांत जाल्ल्या उत्खननांत एका भागांत थंयच्या पुर्विल्ल्या विद्यापिठाचे अवशेश मेळ्ळ्यात. तातूंत स्तूत, चैत्य कमळाचेर उबी आशिल्ली बुद्धमुर्ती, घट मातयेच्यो बावल्यो आदी जायत्यो वस्तू मेळ्ळ्यात.

ह्या थळालागसार नागार्जूनसागर नांवाचें व्हड धरण बांदलां. ह्या धरणापसून तयार जाल्ल्या जलाशयान हांगाच्यो खुबशो वस्तू उदकासकयल गेल्यात. ज्यो कांय वास्तू आनी वस्तू हालोवंक मेळटाल्यो त्यो श्रीपर्वताचेर तयार केल्ल्या पुरातत्वीय वस्तूसंग्रहातल्यांत दवरल्यात. उदकांत बुडिल्ल्या कांय वस्तूंच्यो प्रतिकृती नव्यान तयार केल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**नागार्जूनसागर :** भारतांतलो सगळ्यांत व्हड आनी संवसारांतलो तिसऱ्या क्रमांकावयलो मनशान निर्मिल्लो एक जलाशय. आंध्र प्रदेश राज्यांत हैदराबादसावन सुमार १४४ किमी. अंतराचेर नळगोंडा जिल्ह्यांत मिरिआलगुडा तालुक्यांत नंदिकोंडाक कृष्णा न्हंयेचेर गुरूत्वाकर्षण पद्दतीचें चिरेबंदी धरण बांदून २८५ चौ. किमी. विस्ताराचो जलाशय निर्माण केला. ह्या जलाशयांत दोन हजार वर्सां पयलींचे नागार्जून विद्यापिठाचे अवशेश बुडून वतले आशिल्ले. पूण ते तरेन तांची राखण करपाची येवजण केल्या. ऑक्टोबर १९५५ त नागार्जून नियंत्रण मंडळाची स्थापना केली. डिसेंबर १९५५ त जवाहरलाल नेहरून ताचें भूमीपुजन केलें आनी चवथे पंचवर्सुकी येवजणेंत ताचें काम पुराय जालें. मुखेल धरण १,४५० मी. आसून दोनूय वटेनचे मातयेचे बांद धरून धरणाची वट्ट लांबाय ४.८ किमी. ताची उंचाय १२४.७ मी. तशेंच वण्टीच्या तळाक रुंदाय ९७.५ मीटर जाल्यार माथ्यावयलो रस्तो ८.४ मी. रुंदायेचो आसून ताची जलधारणक्षमताय ११,५५८.७ लक्ष घ.मी. आसा. उजव्या वटेनच्या जवाहर कालव्याची लांबाय ३९४ किमी. आसून ताची जलवाहनक्षमताय २१,००० क्युसॅक आसा. तो दोनकडेन बोगद्यांतल्यान वता. दावे वटेनच्या लाल बहादूर कालव्याची लांबाय ३५१ किमी. आसून ताची जलवाहनक्षमताय १५,००० क्युसॅक. तो एके नळये आकृतीच्या बोगद्यांतल्यान हलिया न्हंय हुंपता. ह्या खारजांपसून गुंटूर, कुर्नूल, नेल्लूर, नळगोंडा ह्या बी जिल्ल्यांतली जमीन शिंपता. जलविद्युत् निर्मितीखातीर दर ५०,००० कि. वॉ. क्षमतायेचीं आठ जनित्रां हांगा आसात. धान्योत्पादन, हुंवार नियंत्रण, विद्युतीकरण, उद्येगीकरण आनी हेर उदरगत संबंधीत येवजण्यांक हो प्रकल्प मदत करता.

- कों. वि. सं. मं.

**नागालँड :** भारताचे उदेंत शिमेवयलें दोंगरी जमातीचें एक घटक राज्य. क्षेत्रफळ १६,५२७ चौ. किमी. लोकसंख्या १२,१५,५७३ (१९९१). विस्तार २५° ६' उत्तर ते २७° ४' उत्तर आनी ९३° २०' उदेंत ते ९५° १५' उदेंत. राज्याचे दक्षिणेक मणिपूर, अस्तंतेक मेघालय, मीकीर दोंगुल्ल्यो आनी आसामाचो जोरहाट जिल्हो, उत्तरेक अरूणाचल प्रदेशाचो तिराप म्हाल आनी उदेंतेक ब्रह्मदेश. कोहिमा ही राज्याची राजधानी. राजकीय नदरेन नागालँड हो भारताचो म्हत्वाच्या जाग्यार आशिल्लो वाठार.

**भूंयवर्णन –** नागालँड हो तरेतरेच्या फातरांनी भरिल्लो दोंगरी वाठार. बरैल दोंगरांची रांक उदेंतेकडल्यान वता. राज्यांत सगळ्यांत उंचेलें सरमती तेमूक आसा आनी ताची उंचाय ३,८२६ मी. आसा. दक्षिण शिमेचेर 'जापवो' हो ३,०१४ मी. उंचायेचो दोंगर आसा. तेभायर राज्यांत कापू २,८८९ मी., पाओना २,८३८ मी. आनी कापामेझू २,४७१ मी. उंचायेचे दोंगर आसात.

राज्यांतली सगळ्यांत व्हड न्हंय दोईआंग. ही मदल्या वाठारांतल्यान उत्तरेकडल्यान व्हांवन अस्तंतेकडच्यान भायर सरता. हांगाची दुसरी म्हत्वाची न्हंय रंगमापानी, ती नैर्ऋत्येक उगम पावता. हाचेभायर राज्यांत धनसिरी आनी दिफुपानी, दिसई, झांझी आनी दिखो ह्यो न्हंयो अस्तंतेक आसामांत ब्रह्मपुत्रेक मेळटात.

रानांत कुशिल्लो पालो आनी न्हंयेदेगेर आशिल्लो गाळ हाणें तयार जाल्ल्यो जमनी आसात. कोहिमा म्हालांतल्या दोंगरी उताराचेर शेल फातरासावन तयार जावपी घट्ट चिकणमाती आसा. झूम म्हळ्यार घोळटे शेती पद्दतीन जमनीचो कस ना जायत वतालो. पूण सरकाराच्या मार्गदर्शनाखाल दोंगराच्या उताराचेर सोंपणां - सोंपणां करून शेती परत सुरू केल्या.

दोंगराळ वाठारांत हांगाचें हवामान थंडे दिसांनी थंड आनी बरें आसता. गिमांत कोहिमा हांगाचें तापमान २६.४ से. आसता. पूण वातावरणांत ओलसाण चड आशिल्ल्यान हवामान उत्साही नासता. राज्याचें सर्वसादारण तापमान थंडेच्या दिसांनी १७.५° से. आसता.राज्यांत वर्साक पावसाचें प्रमाण १७५ सेंमी. ते २५०सेंमी. मेरेन आसता. चडसो पावस जून ते सप्टेंबर म्हयन्याभितर पडटा. एप्रिल ते मे ह्या दिसांनी मात्सो उणो पडटा. फेब्रुवारी आनी मार्च म्हयन्यांत उत्तर अस्तंतेकडच्यान नेटाचें वारें व्हांवता.

**वनस्पत आनी मोनजात –** राज्यांत सैमान नटिल्लो रानाचो वाठार खूब आशिल्लो. पूण 'झूम' हे शेती पद्दतीन चडशा प्रमाणांत रानावाठार नश्ट जाला. तशेंच बऱ्याच प्रमाणांत रानतोड जाल्ल्यान वट्ट क्षेत्रफळाच्या १७.४६% भाग राना वाठार उरलो. हांगा उंचायेवयलो वाठार सदांच पाचवोचार उरता. तातूंत इमारतीच्या उपेगाक पडपी लाकूड, कोंडे, बेत, झोंपां, बोरू आनी हेर जातीचीं झाडां आसात.

मोनजाती भितर हांगा हत्ती, रानरेडो, वाग, बिबटो, वांस्वेल, सांबार, भोंकपी हरणां आदी जनावरां आनी उडपी लेमूर, तित्तिर, रानकोंबो असलीं

सवणीं मेळटात.

**इतिहास** – इतिहासकारांच्या मताप्रमाण आर्यां पयलींच्या भारतांतले जायते पोरणे आदिवासी किरात हेच मूळ नागा अशें अभ्यासकांचें मत आसा. योगवासिष्ठांत दशध नाग हे हिमालयाच्या मुळसांत रावपी असो उल्लेख आयला. महाभारतांत किरात हांचो उल्लेख आयला. कांय ऋषी, लव, कुश, मेघनाद, यदु, उग्रसेन ह्या राजपुरूशांच्यो बायलो तशेंच अर्जूनाच्यो चित्रांगदा आनी उलूपी ह्यो बायलो नागवंशाच्यो आशिल्ल्यो असो उल्लेख पुराणांत मेळटा.




'नग' म्हळ्यार पर्वत आनी तातूंत रावपी ते नागा. तिबेटी आनी ब्रह्मी भाशेंत 'नोक' म्हळ्यार 'लोक' ह्या शब्दाचो अपभ्रंश नागा असो आसा. नाग हें तांकां दुसऱ्यांनी दिल्लें नांव. ते लोक आपणाक कोन्याक, अंगामी, सेमा ह्या जमातवाचक नांवांनी वळखतात. टॉलेमी ह्या इतिहासकारान तांचो उल्लेख दुसऱ्या शतमानांत केला. तरी तांचो तेराव्या शेंकड्या मेरेनचो इतिहास मेळटा. ह्या शतमानाचे सुर्वेक ब्रह्मदेशांतल्या एका शान सरदारान नागांचेर हल्लो करून तांचेर जैत मेळयलें. तांची सत्ता उणी जातकच आसामच्या आहोम राजान थंय आपली सत्ता चलयली. आहोम राजा नागांक आपली जनता मानताले आनी तांचेकडसून कर वसूल करताले. एकुणिसावे शतमानाचे सुर्वेक अहोम राजांची शक्त उणी जाली. हाचो नागा लोकांनी फायदो घेतलो आनी ते आहोम सत्तेच्या शेकांतल्यान मेकळे जाले.

नागा आनी ब्रिटीश हांच्या संबंदांचे तीन वांटे करूं येतात. १८३२ ते १८५७; १८५१ ते १८६५ आनी १८६६ सावन फुडें.

१८३२ त कॅप्टन जेंकिन्स आनी पेंबरटन हाणीं ७०० मणिपूरी सैनिकांक घेवन नागा दोंगराळ वाठारांतल्यान भोंवडी काडली. नागांनी तरातरांनी ताची भोंवडी आडावपाचो यत्न केल्लो. फुडें मणिपूरचो राजा लॅफ्टनंट गॉर्डन हाका घेवन अशीच भोंवडी काडली. अशे तरेन ब्रिटीशांनी नागांचेर बरोच ताबो मेळयलो. सुर्वेक नागाचेर शेक दवरपाची जापसालदारकी मणिपूर आनी काचार हांचेर सोंपयल्ली, पूण तांकां तें शक्य जालेंना. उपरांत १८३८ त खास अधिकारी ग्रँज हाचेकडेन ही जापसालदारकी सोंपयली. ताका सुर्वेक येस मेळ्ळें ना पूण उपरांत ताणें नागांक हारयले. १८४० –४२ त के. बिगे हाणें नागांच्या वाठारांत दोन भोंवड्यो केल्यो. ताणें मुखेल्यांकडेन बरे संबंद दवरले. के. बिगे हाणें कॅ. गॉर्डनाकडेन उलोवणीं करून मणिपूर आनी नाग वाठार हांचे भितर शीम थारायली. १८४३ त

नागांनी घुसखोरी आनी कत्तल करपाक सुरवात केली. १८४५ त जॉन बटलर हाणें नावगोंग नगरांत मुखेल उप कमिशनर म्हणून नेमणूक जातकच नाग वाठारांत भोंवडी केली. १८४५ त खनोमाच्या मुखेल्याकडेन कबलात जाली आनी तातूंत नागांनी लूटमार करप ना अशें थरलें. पूण हे कबलातीचो उपेग जालो ना. तेन्ना लागसारच लस्कर दवरून बोगचंद हाका मुखेल केलो. पूण ताचोय कांय उपेग जालोना. फुडें के. विंसेंत हाका १८४९ त धाडलो. ताच्या फुडारपणाखाल १८५१ त व्हड झूज जालें.

१८५१ ते १८६५ ह्या काळांत ब्रिटिशांनी नागा वाठारांतलें आपलें लस्कर काडून घेतलें आनी नागांचे दीसपट्टे जिणेंत पडचें न्हय अशें थारायलें. फुडें १५ वर्सां उपरांत नागांनी परत त्रास दिवपाक सुरवात केली. १८६२ त आसामच्या कमिशनरान सर सेसील बेडन हाका कळोवन थंय लस्कराचें ठाणें स्थापन केलें. १८६६ च्या फुडल्या काळांत ब्रिटिशांनी नागांचेर आपलो ताबो मेळयलो. लॅ. ग्रेगरी हाणें १८६६ त समागुटींगाक पोलीस ठाणें सुरू केलें. मणिपूरी लोकांनी नाग वाठारांत आनी नाग लोकांनी मणिपूर वाठारांत वचपाचेर बंधनां घालीं, तरी नागांनी काचार वाठारांतलो मिकीर गांव मातयेभरवण केलो.

१८७४ त के. जॉन्स्टन हाणें नाग वाठारांतले तीन गांव आपल्या ताब्यांत घेतले. पूण नागांनी ब्रिटिशांक त्रास दिवपाचें थांबयलेंना. नाग वाठारांतले फकत १८ गांव ब्रिटिशांच्या ताब्यांत आयले. तरी नाग लोक ब्रिटिशांक आपआपलेपरीन त्रास दितालेच. फूडें कर्नल जॉन्स्टन २,००० लस्करी सैनीक घेवन भितर सरलो तेन्ना नागा फाटीं सरले आनी २८ मार्च १८८० त खोनोमा गांवचे सगळे नागा तांकां शरण आयले. १८८१ त नागा वाठार जिल्हो म्हणून स्थापणूक जाली. फुडें १९२२ त मेलोमी, प्रीमी हेय उरिल्ले वाठार नागा जिल्ह्यांत आस्पावन घेतले. पयल्या म्हाझुजांत नाग वाठारांतले सुमार २,००० लोक भितर सरले. दुसऱ्या म्हाझुजांत लागीं लागीं सगळोच नाग वाठार झुजांत भितर सरलो. ह्या झुजांत नाग लोकांनी ब्रिटिशांक खूब पालव दिलो.

भारताक स्वातंत्र्य मेळपाचो वेळ येतकच ब्रिटिशांनी आनी अमेरिकन मिशनऱ्यांनी नागांक भारताआड खुबळायले. अदर्चा अदीक नाग लोकांक बाटोवन क्रिस्तांव केले. भारत स्वतंत्र जातकच म्हाझुजांतलीं उरिल्लीं शस्त्रां घेवन सुमार १,५०० नागांनी भारतावांगडा झूज केलें, प्रती सरकाराची स्थापणूक केली. तरी भारतान तांचेकडेन समजिकायेचीं उलोवणीं सुरू केलीं आनी ल्हवल्हव ताचो परिणाम तांचेर जालो. तांचेभितर आपसांत धोंशी आशिल्ल्योच. तरी १९५२ चे वेंचणुकेचेर बहिश्कार घालपी नागा १९५७ चे नागाप्रजा परिशदेक कोहिमांत भारत सरकाराच्या आपोवण्याक हजर आशिल्ले.

उपरांत नाग वाठार आनी तुएनसांग मेळून जो प्रदेश जाता तो वेगळो काडून केंद्राखाला हाडलो आनी ताका नागालँड हें नांव दिलें. पूण नागांक हें मान्य नाशिल्ल्यान १९६२ त लोकसभेंत कायदो पास करून एक डिसेंबर १९६३ दिसा डॉ. राधाकृष्णन हाच्या हातान 'नागालँड' ह्या वेगळ्या घटक राज्याची स्थापणूक जाली.

**राज्यवेवस्था** - हांगा विधानसभा आसा आनी मंत्रीमंडळासयत राज्यकारभार चलता. विधानसभेर ६० वांगडी वेंचून दितात. मुखेलमंत्री आनी सांगाती राज्यकारभार चलयतात. आसामचें मुखेल न्यायालय ह्या राज्याचें न्याय दिवपाचें काम पळेता. नागालँडा साकून लोकसभेक एक आनी राज्यसभेक एक अशे खासदार वेंचून दितात. ह्या राज्याचे सात व्हडले म्हाल केल्यात. कोहिमा, मॉन, झुन्हेबोटो, वोखा, फेक, मोकोकचुंग आनी तुएनसांग अशीं ह्या म्हालांचीं नांवां आसात. राज्यांत कोहिमा, दिमापूर, मोकोकचुंग, तुएनसुंग, वोखा, मॉन हीं व्हडलीं शारां आसात. राज्यांत ९६६ गांव आसात.

**अर्थीक स्थिती** - राज्यांतले ९०% लोक शेतीचेर अवलंबून आसात. तांदूळ, भरडधान्यां, दाळ हीं हांगाचीं मुखेल पिकां आसून तेलबियो, ताग, ऊंस, बटाट, कणगां हांचेंय पीक कांय प्रमाणांत काडटात. सुमार ६,९३२ चौ. किमी. जमीन शेती करपाक योग्य आसा. तातूंतल्या फकत ३१८ चौ. किमी. आवाठाक उदका पुरवण करपाची सोय आसा. राज्यांतल्यान नुस्त्याचें उत्पन्न वर्साक सुमार ५० टन मेळटा. घरांनी कोंबयो, दुकरां आनी मिथून नांवाचे रानबैल पाळटात. सरकारान कोंबयो, दुकरां आनी जनावरां पाळपाची केंद्रां सुरू केल्यांत.

हांगा कोळसो बरोच मेळटा. तेचपरी वेगवेगळ्या रंगांच्या बांदकामाक उपेगी पडपी फातरय हांगा मेळटात. कांय दोंगुल्ल्यांनी लिग्नायट मेळटा. बोजीनाक कोळशाखाण आसा. बांयच्या खाऱ्या उदकाचें मीठ तयार करतात. दिखोक चुन्याचे व्हड सांठे मेळ्ळ्यात.

हातमागाचेर कापड विणप, तें रंगोवप, मातयेचीं आयदनां घडोवप, लाकूडकाम, कोंडे, वेत, तण हांचें विणकाम, तेचपरी परशू, भाले तयार करप असलेय धंदे हांगा चलतात. ल्हान उद्देगांची उदरगत जावंची देखून सरकार यत्न करीत आसा. वीणकाम, कुटीरोद्योग, हस्तवेवसाय हांचीं जायतीं केंद्रां सुरू केल्यांत. म्होंवामूस पोसप, गोड तयार करप, शाबू आनी मेणवाती तयार करप अशे ल्हान ल्हान उद्देग सुरू जाल्यात. प्लास्टीक, ह्यूम पायप, पॉलिथीन पोतयो, रबरा जोतीं, हे उद्देग सुरू करपाक मेकळीक दिल्या. दिमापूराक लाकडां कापपाचे, दारां, जनेलां तयार करपाचे कारखाने सुरू जाल्यात. तेभायर राज्यांत कागद, साकर, सोरो गाळप, प्लायवूड, फळां डब्यांत बंद करप हे कारखाने सुरू जाल्यात.

दिमापूर हें हांगाचें मुखेल स्टेशन. ईशान्य रेल्वेचो ८.०४ किमी. लोहमार्ग अस्तंत शिमेक लागून वता. बोईंग विमानाची सेवा दर दिसा आसता. दिमापूर हो हवाई दलाचो विमानतळ.

**लोक आनी समाजजीण** - राज्यांत वट्ट लोकसंख्या १२,१५,५७३ (१९९१). राज्यांत दादले सुमार ६,४३,२७३ आनी बायलो ५,७२,३००. नागांच्यो मुखेल जमाती अंगामी, सेमा, लोथा, रेंगमा, चखेसांग, शंगताम, कोन्याक, चंग, फोम, यिमचुगर, खिएन्मुन्गन, झेलियांग, कचारी. उत्तर कछार दोंगराचेर कुकी जमातीचे लोक रावतात. हे जातीचे लोक दक्षिण अस्तंत चीनाच्या सिन-लुंग प्रदेशांतले आशिल्ले आनी थंयसून ते ब्रह्मदेशाक गेले. थंयसावन ते हांगा येवन स्थायीक जाले. जेमी जातीचे लोकय वयर दोंगराचेर रावताले. तांकां अंगामी जातीच्या नागांनी सकयल धांवडायले. वाटकूळीं तोंडा, थंयचे थंयच आंगलोट आनी लांब काळे केंस अशें तांचें वर्णन आसा. आंगामी जातीचे नागा कुडीन घटमूट आसतात. नागा लोक मंगोलॉयड वंशाचे आसले तरी रुपान, गुणान आनी चाली-रितीन एकसारके नात. तांचेमदीं ऊंच, गोरे, देखणे तशेंच मोटवे, काळे, कुरूप नागाय आसात.

**रितीरिवाज** - दोंगराच्या माथ्यार उदकाची सोय पळोवन हे लोक वसती करतात. भूंयेपसून थोडे उंचायेचेर कोंड्याचीं घरां आसतात आनी तांकां तणाचीं पाखीं आसतात. घराच्या फुडल्या वाठारांत जनावरां, मदल्या वाठारांत मनशां रावतात. जाल्यार फाटले वटेन शेताचीं अवजारां

दवरतात. वेगवेगळे जमातीचो पोशाख वेगवेगळो आसता. तांचो पोशाख सादो आनी अलंकार मात खूब आसतात. पोशाखांत शाल म्हत्वाची. ते शिंपयो, पोंवळीं, कांचेचे मणी हांचे हार वापरतात. हतयाचे दांत, शिंगां, कोंडे, पिसां, हाडां ह्या वस्तूंचो साज चडोवन तशेंच परशूभाशेन 'डाओ', भाले अशीं अस्त्रां धारण करून समारंभांनी वतात. बायलो चडशो आंगाचेर पाडून घेतात.

शिकिल्ले दादले बायलो आधुनीक पोशाख करतात. दर खेड्यांत तरणाटे चले आनी चलयांचीं वेगळीं वेगळीं न्हिदपाचीं घरां आसतात. तांकां 'मोरूंग' अशें म्हण्टात. भुरगो व्हड जावन लग्न जाय म्हणसर ह्या मोरूंगांत रावता. चले-चलयो बरेच खेपे आपलीं आपुणूच लग्नां थरयतात. शिलोफोन म्हळ्यार व्हडलो धोल मोरूंगाक तेंकून दवरतात. झुजा वेळार वाजोवपाचो हो धोल सणापरबांच्या वेळारय वाजयतात. हांगाचें मुखेल अन्न तांदूळ, दाळ आनी भाजीपालो. मिरसांग तांची चड आवडीची. गाय, दुकर, कोंबी, मिथुन, सुणे, मांजर आदी कसल्याय जनावराचें मास आनी नुस्तें ते खातात. तांदळापसून तयार केल्ली बीयर हें तांचें मुखेल पेय. तांचो लग्नविधी सामको सादो. लग्नांत सोयऱ्यांक जेवण घालप हो मुखेल सुवाळो. तांचे मदीं घटस्फोट घेवप सोंपो. लासप, पुरप, प्रेत झाडाक हुमकळावप अशे तरेचे अंत्यसंस्कार आसतात. मूळचे नाग लोक जे क्रिस्तांव जावंकनात ते सूर्याक मुखेल देव मानतात. धन दिवपी, धान्य राखपी अशेय देव आसात अशें ते समजतात. भूंयकांप देव जगाची निर्मिती करता असो तांचो समज आसा.

नागांचो एक सण प्रतिश्ठेचो सण म्हणून येता. जो चड खर्च करता, चड दबाज्यांत सुवाळो करता ताका व्हड प्रतिश्ठा मेळटा,समाजांत ताचो मान वाडटा. सेमा जमातींत शिकुसो, आपीका आकिकेधे आनी इनामी कुसा अशे सण येतात. इनामी कुसा ह्या सणांत गांवांक आनी शेजारच्या गांवांक जेवणावळ घालूंक जाय. अंगामी जमातींत थेसा झाचू आनी लीसू अशे सण जातात. इश्टागती खातीर आनीक एक सण जाता. एकमेकांक जेवण दिवप हो मुखेल सुवाळो.

आवो जमातींत मुखेल उत्सव म्हळ्यार 'मोत्सु' शेताची पेरणी जातकच हो सुवाळो मनयतात. हो सुवाळो स दीस मनयतात. ह्या सुवाळ्याचे पयले रातीं घोव बायलांनी एकठांय येवंक जायना. दर मनीस त्या दिसा नवो पटो बांदता. दावो हें शस्त्र हुमकळावन आंकवार चल्यांक आंकवार चलयो पटो दितात. अंगामी नाग सेक्रेनी हो फ्रेब्रुवारी म्हयन्यांत उत्सव मनयतात. गांवची भलायकी बरी उरची म्हणून हो उत्सव मनयतात. हेभायर खिलनी आनी गन्धा हेय उत्सव आसतात. ह्या सगळ्या उत्सवांनी पुराय नाग जमात वांटो घेता.

कोरीव काम करप, कोंड्यांपसून वस्तू तयार करप, मातयेचीं आयदनां तयार करप आनी लोखणापसून वस्तू करप ह्यो नागांच्यो मुखेल कला. नागांभितर कोनायक हे बरे कारागीर. व्हडलो धोल कोरांतप हें बरें कसब. नागालँडाक राना वाठार खूब आशिल्ल्यान बेताच्यो बडयोय खूब आसात. तरेतरेच्या आकाराचे खोंटले, पांटले तयार करप, हातरपाटे तशेंच धालीय ते कोंड्यांपसून तयार करतात. कोपां, हार, कांकणां ह्योय वस्तू बेतापसून करतात.

**शिक्षण पद्दत आनी प्रसार** - नागालँड राज्यांत ६१.३० % (१९९१) साक्षरताय आसा. हांगा मुळाव्यो आनी माध्यमिक शाळा आसातूच ते भायर तंत्रविद्यालय आनी म्हाविद्यालयांय आसात. जाणट्यांक शिकोवपाचीं केंद्रां, शिक्षक प्रशिक्षण संस्था, उद्देगीक शिक्षण केंद्र, शेतकी म्हाविद्यालय आसा.

**भास आनी साहित्य** - नागांची एकच भास ना. तांचेमदीं तिबेटी-ब्रह्मी भाशा चोम्यांतल्यो ३० परस चड बोली भासो आसात आनी तातूंत बरोच फरक आसा. जितल्यो तांच्यो जमाती तितल्यो तांच्यो वेगवेगळ्यो बोली भासो आसात. तांच्या भासांक लिपी ना. वेव्हाराखातीर असमिया वा हिंदी वा इंग्लीश भाशांचो उपेग जाता. सरकारी कारभाराची आनी शिक्षणाखातीर प्रमाण भास म्हणून विधानसभेन १९६५ त इंग्लीश ही प्रमाण भास थरयल्या.

नागांचें बरप कांयच नासलें तरी लोकवेद, लोकांकाणयो आनी लोकगितां आसात. तांच्या काणयांनी, गितांनी मधूर भाव आसात.

– माणिकराव राम नायक गावणेकार

**नागासाकी :** जपानाच्या क्यूशू जुंव्यावयल्या नागासाकी जिल्ह्याचें मुखेल ठाणें. हें शार युराकामी न्हंयेच्या तोंडाकडेन आसून नागासाकी उपदर्यावयल्या 'रिया' देगेवयलें सुरक्षीत, खोल आनी मुखेल बंदर आसा. ताची रचणूक व्हड प्रेक्षकघरावरी आसून दर्या घुंवडायल्ल्यान तयार जाल्ली जमीन तितली सपाट आसा. बाकीचें शार दोंगुल्लेचे देंवतेचेर वशिल्लें आसा. सोळाव्या शतमानासावन पुर्तुगेज आनी स्पेनीश वेपाऱ्यांची ह्या शारांत येरादारी आसताली. फुडें फकत हॉलंडी वेपाऱ्यांकच शारा लागसल्ल्या डेशिमा जुंव्यार रावपाची परवानगी मेळ्ळी. १८५८ त नागासाकी वांगडा कांय बंदरां अस्तंती लोकांक उकतीं दवरलीं. १९०३ च्या रुसो - जपानी झुजामेरेन रशियी नावीक दळ ह्या बंदरांतच आलाशिरो घेतालें. मित्सुबिशी उद्देगसमुहावरीच तारवां बांदप आनी स्थापत्य अभियांत्रिकी आदी ल्हान - व्हड उद्देग तशेंच तिख्या लाटण कारखानो आदीखातीर ह्या शाराचें म्हत्व वाडलें. ९ ऑगस्ट १९४५ ह्या दिसा अमेरिकेन दुसरो बॉम ह्या शाराचेर उडयलो तेन्ना शाराचो मदलो भाग पुराय तरेन नश्ट जालो. तातूंत ३६,००० मनशांक मर्ण आयलें. २५-३० हजार लोकांक मार बसलो. फुडें झूज सोंपलें उपरांत कांय वर्सां भितरच जपानी लोकांनी शाराची पुनर्वसणूक केली. सोफुकूजी चीनी देवूळ, औरा इग्र्ज, ग्लोव मॅन्शन, बॉम पडिल्लो थयचें 'शांतीउद्यान' हीं हांगासलीं पळोवपासारकीं थळां.

– कों. वि. सं. मं.

**श्री नागेश देवस्थान :** अंत्रूज (फोंडे) म्हालांतलें नामनेचें देवस्थान. पणजी ते मडगांव ह्या मुखेल रस्त्याचेर फर्मागुडी ह्या थळापसून, फर्मागुडी-कवळें-फोंडे ह्या रस्त्याचेर सुमार ८०० मी. अंतराचेर श्री नागेश महारूद्र देवाचें देवालय आसा. फोंड्यां बसथांब्या सावन हें थळ सुमार चार किमी. अंतराचेर आसा. श्री नागेश देवस्थान हें शंकराचें स्वयंभू जागृत स्थान आसून थंयच्या शिवलिंगाची स्थापना खूब पुर्विल्ल्या काळार सावन म्हळ्यार परशुरामान गोंयांत दशगोत्री सारस्वत कुळां आनी तांची कूळ दैवतां हाडून बसयल्लीं त्या काळांत जाल्ली, असो पुरावो सह्याद्री खंडांत मेळटा.

ह्या देवालयामुखार आशिल्ल्या शिलालेखांत ह्या थळाच्या पुर्विल्ल्या काळाविशीं म्हायती मेळटा. विजयनगर साम्राज्याच्या वीर प्रताप देवराय महाराय ह्या राजाचे कारकिर्दीत शके १३३५ वा इ.स. १४१३ ह्या काळांत गोमंतकांत नंजण गोसावी हो प्रतिहस्त आसतना माई शेणवी वागळे हाणें वेद खंडिकेचें कुळागर, नागझरी मळो शेत आनी गोलती वाड्यावयलें

रूवी कुळागर अश्यो जमनी श्री नागेश आनी श्री महालक्ष्मी ह्या देवांक दिल्ल्याचो उल्लेख ह्या शिलालेखांत आसा. तशेंच, सावयवेऱ्यां मेळिल्ल्या तांब्यापटांत (१२२२) बांदिवडें ग्रामांतलो श्री नागनाथ असो उल्लेख आसा. विजयनगराच्या शिलालेखांत हें देवस्थान इ.स. १४१३ त बांदिवड्यां आशिल्लें हो पुरावो मेळटा जाल्यार सावयवेरेंच्या शिलालेखावयल्यान या देवस्थानाचो पुरावो यादव काळांतलो म्हळ्यार इ.स. १२९९-१३०० ह्या काळांत वता. ह्या देवस्थानांत शिवपार्वतीची एक पाशाणमूर्ती आसा. ती सातव्या शतमानांतली आसूंये असो तज्ञांचो अदमास आसा. तेचवरी थंय आठव्या शतमानांतली खुबूच पोरणी अशी गणपतीची मुर्तीय आसा. ह्या पुराव्या वयल्यान हें नागेश देवस्थान सातव्या शतमाना आदीं सावन थंय आसुंये.



ह्या देवालयाचो जीर्णोद्धार शके १७०२ म्हळ्यार इ.स. १७८० त जालो. ह्या देवालयाभोंवतणी पोरण्यो अगरसाळी आशिल्ल्यो. ह्यो अगरसाळी शके १७०३ म्हणजेच इ. स. १७८१ त बांदिल्ल्यो. ह्या तीनय अगरशाळांचो जीर्णोद्धार इ.स. १८७७ वर्सा जालो, असो उल्लेख देवस्थानांत आसा. पुर्विल्ल्या काळांत थंय एक दीपस्तंभ आशिल्लो म्हणपाचो उल्लेख शिलालेखांत आसा. पूण हालींच्या वर्सांनी थंय दीपस्तंभ नाशिल्लो. सद्या देवळाचे दावे वटेन सोबीत दीपस्तंभ बांदिल्लो आसा. तशेंच देवालयाच्या भोंवतणीं सगळ्या सोयींनी उपेगी अशें सोबीत नवे तरेचें बांदकाम केलां.

तिनूय वटांनी दोंगरांच्या रांकांनी वेश्टिल्ल्यान हें देवस्थान सोबीत आनी थंड दिसता. दोंगरांचेर जायतेकडेन गोड उदकाचे झरे आसून थंय सुपारेचीं कुळागरां आसात. श्री नागेश देवालय खुबूच सोबीत आसा. गर्भकुडींत पिंडिकेसयत शिवलींग आसून वयर मेघडंबरी आसा. ह्या देवालयाचो फुडो अस्तंतेक आसून मुखार एक तळी आसा. ही तळी सोबीत आसाच, पूण हे तळयेचें खाशेलपण म्हळ्यार देवळाचे गर्भकुडींतले नागेश देवाचे मुर्तीचें आनी भोंवतणचे दिपरत्नांचे माळेचें तळयेच्या उदकांत पडबींब पडिल्लें दिश्टी पडटा. हें अप्रूप अशें दर्शन श्रावण ते आश्विन म्हयन्यांमदीं केन्नाय स्पश्ट तर केन्नाय अस्पश्ट प्रमाणांत जाता. हें पळोवन देवळाची आनी तळयेची रचणूक करपी तंत्रज्ञाचे कल्पकतायेची तोखणाय दिसता.

ह्या देवस्थानाचे संस्थापक कुळावी म्हाजन कौशिक, वत्स आनी भारद्वाज ह्या गोत्राचे गौड सारस्वत ब्राह्मण जातीच्या कांय कुटूंबाचें आसून श्री नागेश हें तांचें कुळदैवत. ह्या देवस्थानांत दर वर्सा आषाढ शुक्ल १० मी. दिसा श्री महालक्ष्मी देवी येता. ह्या देवस्थानांत वर्सुकी महापर्वणी महोत्सव चैत्र शुक्ल १५ मा. दिसा मनयतात आनी चैत्र वद्य प्रतिपदे दिसा फांतोडेर महारथ करून हो उत्सव सोंपता. तेभायर नवरात्रां, भजनी सप्ताह अशे भौशीक स्वरुपाचेय उत्सव वर्सभर चलतात.

– कों. वि. सं. मं.

## नागेशकार, पंढरीनाथ : (जल्म : १६ मार्च १९१३, बांदिवडें).

गोंयचो नामनेचो तबलजी. ताचें पांचवी मेरेनचें शिक्षण नागेशीं जालें. फुडलें शिक्षण ताणें कोल्हापूराक घेतलें. ताची घरकान्न श्रीमती नंदिता नागेशकार हीय एक बऱ्यांतली पेटीवादक. ताचो पूत विभव होय तबलावादनाच्या मळार नामना मेळयता.

भुरगेपणासावनच नागेशकाराक तबल्यावादनाची आवड आशिल्ली. तो आपले तकलेर वा पोटार तबल्या भाशेन बोटां वाजयत बसतालो. ताचो हो नाद पळोवन ताचो मामा गणपतराव नागेशकार हाणें ताका तबल्याचे मुळावे धडे दिवपाक सुरवात केली. तेन्नाच मास्टर दीनानाथ मंगेशकार हाची 'बळवंत संगीत मंडळी' तांच्या गांवांत आयिल्ली. तेन्ना तांच्या नाटकांत तबलें वाजोवपाचें काम वल्हेमामा करतालो. ताचें तबलावादन आयकून आपणेंय पुराय तबलावादन शिकचें अशी ओड ताका लागली. मास्टर दीनानाथानय ताका स्फूर्त दिली. मुंबय वचून ताणें वल्हेमाम हाचे कडल्यान दोन वर्सां तबलावादनाचें शिक्षण घेतलें. त्या वेळार ताची पिराय चवदा वर्सांची आशिल्ली. उपरांत तीन वर्सां ताणें सुबराव अंकोलकार हाचेकडल्यान शिक्षण घेतलें. मदीं दोन वर्सां ताच्या शिक्षणांत खंड पडलो. फुडें पिरायेच्या २५ ते ४५ वर्सां मेरेन खाँ साहेब उस्ताद अमीर हुसेन खाँ हाचेकडल्यान ताणें तबल्याचें शिक्षण घेतलें. हाचेभायर खाँ अन्वर हुसेन खाँ आनी खाँ जतीबक्ष हांचेकडेन कांय तेंप तबल्याचें शिक्षण घेतलें.

नागेशकारान जायत्या नामनेच्या गायकांक सांगात दिल्या. उस्ताद फियॅजखाँ, उस्ताद विलायत हुसेन खाँ, उस्ताद खादीम हुसेन खाँ, पंडित गोविंदराव अग्नी, पंडित यशवंत बी जोशी, पंडित पटवर्धनबुबा, भार्गवराम आगरेकर, केशरबाई बांदोडकार ह्या नामनेच्या गायकांक साथ दिवनच ताचे कलेक बरो वाव मेळ्ळो.

फुडें ताणें लोकांक तबल्यावादनाचें शिक्षण दिवंक संगीत विद्यालय सुरू केलें. नामनेचो तबलजी श्रीपाद नागेशकार, गजानन पटवर्धन, वसंतराव आजरेकार, मुकुंद काणे, वसंत जोशी आदी जायत्या जाणांनी ताचेकडल्यान शिक्षणाचो लाव घेतला.

तबल्याची साथ दिवपाच्या निमतान ताणें मंगळूर, द. कर्नाटक, कोल्हापूर, भावनगर, नागपूर आदी जायतेकडेन भोंवडी केल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**नाच :** एक ललीत कला. नृत्य म्हळ्यार नाचप ह्या धातूवयल्यान नृत्त, नृत्य, नर्तन हे शब्द आयल्यात. नृत्याची व्याख्या अभिनयदर्पणांत दिल्या ती अशी –

रसभावव्यञ्जकादियुतं नृत्यमितीर्यते ।

**अर्थ –** रस, भाव आनी व्यंजकं म्हळ्यार अभिनय, हाणीं युक्त आसा

तें नृत्य अशें म्हण्टात.

ताल, अभिनय आनी लालित्य ह्या तिनूय कलांचो संगम म्हळ्यार नाच. विंगड विंगड प्रकारांचे पदन्यास (पांयांच्यो हालचाली), हातांच्यो मुद्रा, आंग-दोळे-भुंवयो आनी अभिनय हांचेवतीन नाचांत रस आनी भाव हांची अभिव्यक्ती करपाची आसता. नाच हो कसलेयाय विशयाचेर, संकेताचेर वा कथेचेर आदारिल्लो आसता. उतरांचो उपेग करिनासतना फकत अभिनयाच्या आदाराचेर नाचाचें कार्य आसता आनी हेंच नाचाचें खाशेलपण.



एक नर्तकी

सगळ्या वंशांच्या लोकांनी अनादी काळासावन आपल्या धर्माचरणांत नाचाचो वापर केला. हॅवलॉक एलिस हाणें आपल्या 'द डान्स ऑफ लायफ' (१९२३) ह्या ग्रंथांत म्हळां, 'पुर्विल्ल्या मानवी काळासावन धर्म आनी धर्माविशींचें प्रेम ह्या दोगांयचो आदिम आविश्कार नाचांतल्यानूच जायत आयला'. भारतांतल्या नाचाचो सगळ्यांत पोरणो पुरावो उत्तर नवाश्म युगीन काळांतले सिंधू संस्कृतायेंतल्यान मेळटा. हडप्पांतलो नर्तकाचो विशीर्ष पुतळो आनी मोहें-जो-दाडोंतली नर्तकीची तांब्याची मूर्त हे सिंधू संस्कृतायेंतले कलेचे दोन म्हत्वाचे पुरावे आसात.

नृत्य, गायन आनी वादन ह्या तिनूय कलांचो संस्कृत वाङ्मयांत एकठांय उल्लेख मेळटा. वैदिक काळांत नृत्या सारकिल्या कलांक शिल्प म्हण्टाले. रामायण, महाभारत हातूंत लेगीत नाचाचे खूब उल्लेख मेळटात. पुराणांतल्या सर्गाच्या वर्णनांनी नृत्य - गायनाचो सर्रास उल्लेख मेळटा. देव आनी देवता नाच करतात आनी ते नाचांत तरबेज आसतात अशें पुराणांतल्यान समजता. असले नर्तक मंडळी भितर शिवाचें नांव सगळ्यांत पयलीं येता. शिव हो विश्वांतलो आदि - नर्तक. नृत्यकलेंतल्या ताच्या प्राविण्याक लागून भक्तांनी आनी नृत्याचार्यांनी ताका नटराज वा नटनशिखामणी अशी पदवी दिल्या. दक्षिण भारतांत शिवाचें 'नटराज' हेंच रूप चड लोकप्रिय आसा. शिवाच्यो अश्टमुर्ती सांगल्यात, तशेंच वेगळ्या संदर्भांत चार मुर्ती सांगल्यात त्यो अशो - संहारमूर्त, दक्षिणामूर्त, अनुग्रहमूर्त आनी नृत्तमूर्त. नृत्तमूर्त म्हळ्यारूच नटराज. सृश्ट, स्थिती, सांवार, तिरोभाव आनी अनुग्रह ह्यो पांच क्रिया तो नाचाच्याच आदारान करता. शिवाचो हो नाच उत्तरेक कैलासाचेर आनी दक्षिणेंत चिदंबरमाक चलता. शिवाच्या विश्वनृत्याचें वर्णन नाट्य - नृत्यशास्त्रांत मेळटा. तशेंच पुराणांनीय शिव - नृत्याचीं वर्णनां आसात. पुराणकारांच्या मतान शिव हो पार्वतीक संतुश्ट करपापसत नाच करता. नाट्य - नृत्यशास्त्राच्या ग्रंथांत तांडव नाचाचे सात प्रकार आसात ते अशे - १) आनंदतांडव २) संध्यातांडव ३) कालिकातांडव ४) त्रिपुरतांडव ५) संहारतांडव ६) गौरीतांडव ७) उमातांडव. शिवाची बायल उमा हीय नृत्य कुशळ आसून तिणें तो नाच बाणासुराची धूव उषा हिका शिकयलो आनी उषेन तो वृंदावनांतल्या गोपींक शिकयलो, थंयसावन तो यादव बायलांकडल्यान द्वारकेंत वचून उपरांत देशभर पातळ्ळो असोय उल्लेख मेळटा.

**अभिनय** - नाट्यांतलो भाव आनी रस हे जाच्या योगान प्रेक्षकांच्या काळजामेरेन पावता तो अभिनय. अभिनयाक लागुनूच नाचाक खरो अर्थ प्राप्त जाता. अशे ह्या अभिनयाचे चार प्रकार आसात - आंगिक, वाचिक, आहार्य आनी सात्विक. (पळयात अभिनय).

भारतांतल्या कितल्याश्याच पुर्विल्ल्या आनी आर्विल्ल्या राजांनी नृत्यकलेक आलाशिरो आनी उर्बा दिली. चोळ राजे हे कलेचे खूब भोक्ते आशिल्ले. क्षेत्रज्ञ हो आंध्रांतल्या मुव्वा नांवाच्या खेड्यांतलो, थंयच्या गोपालस्वामी ह्या देवाचो भक्त. ताणें त्या देवाचेर सुमार चार हजार गितां बरयलीं. तो आपलीं पदां नाचाचेर बसोवन गोपालस्वामी सामकार करतालो. दक्षिणेंत तो एक म्हान नर्तक अशें मानतात. भरतनाट्यमांतलो पदम हो प्रकार ताच्या गितांचेरूच आदारला. आंध्रांतलो आनीक एक नृत्यगुरू म्हळ्यार सिध्देंद्र. हाणें 'पारिजात' हें नृत्यनाट्य बरोवन रंगमाचयेर हाडलें. थंयच्याच काकतीय राजांच्या दरबारांत जयपसेन नांवाचो एक सेनापती आशिल्लो. हाणें नृत्यरत्नावली नांवाचो एक ग्रंथ बरोवन, तातूंत त्या काळांतल्या नृत्यप्रकारांचें विस्तारान वर्णन केलां. वरंगळचो राजा प्रतापरूद्र हो शिवाचें गूणगान करपी खूब नाच करतालो. ताच्या दरबारांत माचलदेवी नांवाची एक नामनेची नर्तकी आशिल्ली. विजयनगरचो सम्राट कृष्णदेवराय हाणें फकत नाचाखातिरूच एक रंगमंदिर बांदिल्लें. राजा कुमरगिरी हो कोंडतिडुचो रेड्डी वंशाचो राजा. ताणें 'वसंतराजीयम' ह्या नांवाचो नृत्यकलेचेर एक व्हड ग्रंथ बरयला. उत्तरेक, संत हरिदास हो कथक नृत्याचो जनक मानतात. ताचो नाच आयज लेगीत केरळांत 'अष्टपदीआट्टम' ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. शंकरदेव ह्या आसामांतल्या एका म्हान संतान एका 'अंकियानट' नांवाच्या नृत्यप्रकाराक जल्म दिला. ह्या प्रकारांत ताणें उत्तरेच्या आनी दक्षिणेच्या नाचाचीं खाशेलपणां एकठायल्यांत. तशेंच, नाचाच्या क्षेत्रांत बालसरस्वती, रुक्मिणीदेवी अरुंडेल, पद्मिनी, शांता राव, यामिनी कृष्णमुर्ती, अमला शंकर, मृणालिनी साराभाई, जव्हेरी भगिनी, गोपीकृष्ण, बिरजूमहाराज, राम गोपाल हीं नामनेचीं नांवां आसात.

वैदिक काळांत नाचाचो प्रचार आशिल्लो, पूण ते कलेवयले त्या काळांतले ग्रंथ मेळनात. ह्या विशयावयलो सगळ्यांत पोरणो ग्रंथ म्हळ्यार 'नटसूत्र'. शिलाली हाणें हो ग्रंथ बरयला. हाचे उपरांतचो म्हत्वाचो ग्रंथ म्हळ्यार नंदिकेश्वराचो 'भरतार्णव'. 'अभिनयदर्पण' ही ह्याच ग्रंथाची आवृत्ती. भरताचो 'नाट्यशास्त्र' हो ग्रंथ नाट्याविशीं आसा. हाचे उपरांत 'अग्नी पुराण' आनी 'विष्णुधर्मोत्तर पुराण' हे ग्रंथ येतात. हीं दोनूय पुराणां आसात पूण तातूंत नृत्य-नाट्याचो खूब विचार केला. हीं दोनूय पुराणां इ. स. ५०० ते ८०० ह्या काळांतलीं आसात. इ.स. च्या तेराव्या शेंकड्यांत शार्ङ्गदेव ह्या काश्मीरी पंडितान 'संगीतरत्नाकर' नांवाचो आनी धनंजयान 'दशरुपक' नांवाचो ग्रंथ बरयलो. हे सगळे ग्रंथ संस्कृत भाशेंत आसात. 'शिलप्पधिकारम' हें तमीळ भाशेतलें महाकाव्य. ह्या महाकाव्यांत नाचाचेर बरोच विचार केला.

सादारणपणान तेराव्या शेंकड्यासावन नृत्यकलेविशीं ग्रंथ निर्माण जाल्ल्याचें दिसता. गुजरातांतल्या वचनाचार्य सुधाकलासाचें 'संगीतोपनिषत्

सरोधर', असामांतली 'हस्तमुक्तावली', मणिपूरांतलो 'गोविंद संगीत लालाविलास', ओरिसांतलो महेश्वर महापात्र हाचो 'अभिनवचंद्रिका', बंगालांत रघुनाथाचो 'संगीत दामोदर', केरळांतलो 'हस्तलक्षणदीपिका' हे नृत्याचेर बरयल्ले ग्रंथ आसात.

भारतांत भरतनाट्यम्, कथकळी, कथक आनी मणिपुरी हे चार शास्त्रीय नाचाचे संप्रदाय आसात. तशेंच यक्षगान, वीथीभागवतम, कूटियाट्टम, ओडिसी, कुचिपुडी, गरबा, रास हे उपसंप्रदाय आसात. हांचे भायर उदयशंकर नृत्य संप्रदाय आनी रवींद्रनाथ ठाकूर नृत्यसंप्रदाय अशे दोन नृत्यसंप्रदाय हालींच तयार जाल्यात. ह्या नृत्यशैलींची आनी प्रकारांची थोडेभितर म्हायती अशी-

**भरतनाट्यम** - हो सगळ्यांत पोरणो नाचाचो प्रकार तामीळनाडूंत सुरू जालो आनी देवदासींनी ह्या नाचा प्रकाराची जतनाय केली म्हणून ताका 'दासीआट्टम' अशेंय म्हण्टात. हे शैलींत अलारिपू, जतिस्वरम्, शब्दम्, वर्णम्, पदम्, जावळी, तिल्लाना हे नाचाचे प्रकार आसात. मीनाक्षीसुंदरम् पिळ्ळै, गौरी अम्माळ, बालासरस्वती, रुक्मिणीदेवी ॲरंडेल, कमला, इंद्राणी रेहमान हे भरतनाट्यम् शैलींतले नामनेचे नर्तक - नर्तकी.

**कथकळी नृत्य** - हें केरळांतलें नृत्यनाट्य, मुटियाट्टम, कुटियाट्टम्, कृष्णानाट्टम्, रामनाट्टम ह्या पुर्विल्ल्या केरळी नृत्यनाट्यांचे परंपरेंतल्यान



आयलां. पांचाली करुणाकर पणिक्कर, गुरू शंकरन् नंपुतिरी, राघवन पिळ्ळै आशान, कलामंडलम् कृष्णन् नायर, मांकुळम् विष्णु नंपूतिरी, गुरू गोपिनाथन्, कुंचू कुरूप, कृष्णन् कुट्टी ह्या गुरू आनी नर्तकांक कथकळी नृत्यांत खूब नामना मेळ्ळ्या.

**कथ्थक नाच** - मोगल काळांत जल्माक आयिल्लो हो नाच कसल्याय कथानकाचेर आदारिल्लो आसता. ह्या नृत्याक तबलें, पखवाज, सारंगी ह्या वाद्यांची साथ - संगत आसता. कथ्थक शैलीचीं लखनौ, जयपूर आनी बनारस हीं तीन घराणीं आसात. अच्छज महाराज वा जगन्नाथ महाराज, शंभू महाराज, जयलाल, लच्छू महाराज, बिरजू महाराज, गोपीकृष्ण, रोशनकुमारी, सितारादेवी, दमयंती जोशी हे नामनेचे कथ्थक नर्तक - नर्तकी.

**मणिपूरी नृत्य :** मणिपूर, त्रिपुरा, आसाम, बंगाल ह्या प्रदेशांनी ह्या नाचाचो प्रचार आसा. अर्जून ह्या नाचाचो प्रवर्तक मानतात. इ. स. च्या बाराव्या शेंकड्यांत राजकुमार खंबा आनी राजकुमारी थोइबी हाणीं ह्या नाचाचो प्रसार केलो. 'चाली' आनी 'भंगी' ह्यो मणिपूरीच्यो खाशेल्यो नाचाच्यो रचना आसात. लायहरोबा, संकीर्तन, करताल चोलम्, पुंग चोलम हे लोकांनाच मणिपूरी नाचात आस्पावतात. मणिपूरी हो दादले-बायलांचो चोमो-नाच आसा. स्वरुपानंद, रसानंद अमुबी सिंग हे नाचाचे गुरू आनी झवेरी भयणी, सविता मेहता ह्यो नामनेच्यो नर्तकी.

**ओडिसी नाच** - हो ओरिसांतलो सामको पोरणो नाचाचो प्रकार आसून, भरताच्या नाट्यशास्त्रांतूय हाचो उल्लेख मेळटा. महेश्वर महापात्राच्या 'अभिनयचंद्रिका' ह्या ग्रंथांत ह्या नाचाचें बरेंच तंत्रशुद्ध वर्णन मेळटा. मोहन महापात्र, पद्मचरण दास, केलूचरण महापात्र, डॉ. कुमकुमदास, यामिनी कृष्णमूर्ति हे ओडिसी नाचाचे नामनेचे नर्तक-नर्तकी.

**कुचिपुडी नाच** - हो नाच आंध्र प्रदेशांतल्या कुचिपुडी नांवाच्या गांवांतल्या लोकांनी रूढ केलो. 'मुचपळ्ळी कैफियत' ह्या ग्रथांत ह्या नाचाचो उल्लेख मेळटा. सिद्धेंद्र योगी हो ह्या नाचाचो जनक मानतात. कोराडा नरसिंहराव, इंद्राणी रेहमान, यामिनी कृष्णमूर्ती हे कुचिपुडी नर्तक-नर्तकी आसात.

**यक्षगान** - हो कर्नाटकांतलो पारंपरीक नाच. हो रामायण, महाभारत, पुराणां हांच्या विशयांचेर आसता.

**ओट्टन तुळ्ळल नाच** - नामनेचो मळ्याळम् कवी कुंचन नंप्यार हाणें हो नाचाचो प्रकार अस्तित्वांत हाडला. ह्या नाचाचें 'कथकळी' कडेन बरेंच साम्य आसा. पूण ह्या नाचांत एकूच नर्तक आसता. केरळी मलबार रामन नायर हो ह्या नाचाचो नामनेचो नर्तक. तशेंच केरळांत 'मोहिनीआट्टम' हो एक नामनेचो नाचाचो प्रकार आसा. तेच भाशेन 'भागवत मेळा नाटक' हें तंजावरांतलें पारंपरीक नृत्यनाट्य.

**उदय शंकर नृत्यसंप्रदाय** - भारतीय नाचाक आर्विल्ल्या तंत्रांनी समृद्ध करपी नर्तक म्हणून उदय शंकराची नामना आसा. भारतीय नृत्यपरंपरेंत ताणें आर्विल्ल्या अस्तंती बॅलेचो प्रवाह हाडून सोडलो. अस्तंती बॅले, उदेंती नाच, भारतीय लोकांनाच आनी पुर्विल्ल्या हिंदू शिल्पशास्त्रांतल्यो नाचाच्यो अवस्था हांच्या अभ्यासांतल्यान ताणें स्वताची अशी खाशेली नृत्यशैली तयार केली. ताणें राधाकृष्णा सारक्या पुराणीक आख्यायिकांभाशेनूच आर्विल्ली समाजजीण आनी तातूंतल्यो अडचणी हांचेर आदारीत नृत्यनाट्यांय निर्माण केलीं. 'लेबर ॲंड मशिनरी' ह्या नृत्यनाट्यांत ताणें गिरणीचो धनी आनी कामगार हांचेमदलो संघर्श दाखयलो. 'द र्‍हिदम ऑफ लायफ' हातूंत भारतीयांतले एकात्मतेचे भावनेची गरज सांगली. ताचीं शिवतांडव, शिव- पार्वतीचें द्वंद्व नृत्य, अमर संगीत, श्रम आनी यंत्र, अर्जून आनी प्रमिला, बुद्धाचें महाभिनिष्क्रमण हीं नामनेचीं नृत्यनाट्यां आसात. 'कल्पना' नांवाचो एक चित्रपट लेगीत ताणें निर्माण केला. 'इंडिया कल्चर सँटर' हे संस्थेंत ताणें स्वताची अशी नाच - शिक्षणाची अभिनव पद्दत चालीक लायली.

**शांतिनिकेतन संप्रदाय** - रवींद्रनाथ टागोर हाणें बॅले पद्दतीची कांय नाट्यनृत्यां निर्माण करून तांचे येसस्वी प्रयोग केले. ताणें भारतीय नाचाक प्रतिश्ठा मेळोवन दिली. शांतिनिकेतनांत कलाशिक्षणाचेर चड भर आशिल्लो. चित्रकला, मुर्तीकला, संगीत, नाटक ह्या विशयांचो तातूंत आस्पाव आशिल्लोच. पूण १९१९ वर्सा नाचाच्या शिक्षणाची भर पडली. १९२६ वर्सा ताणें मणिपूरचो गुरू नाबा कुमार हाका शांतिनिकेतनांत पाचारण करून चलयांक लेगीत नृत्यशिक्षण घेवपाक संद दिली. त्याच वर्सा कलकत्ता हांगा चलयांचें 'नटीर पुजा' हें नृत्यनाट्य सादर केलें. तें यसस्वी जालें. ताकालागून कितल्योशोच उंचेल्या कुळांतल्यो बंगाली बायलो हें शिक्षण घेवंक तयार जाल्यो. चित्रांगदा, श्यामा, चंडलिका हीं टागोरान सादर केल्लीं हेर नामनेचीं नृटचनाट्यां. पौराणीक कथांचेर आदारिल्लीं नृत्यनाट्यां टागोरान स्वताच बरयल्यांत. त्या वावराक ताणें शांतिनिकेतनांतल्या हेर नृत्यगुरूंचीय साथ घेतली. आपल्या

नृत्यनाट्यांखातीर फकत मणिपूरी तंत्र अर्दवट दिशिल्ल्यान ताणें कथकळी शिकोवपाखातीर दक्षिण भारतांतल्या नृत्यगुरूंची शांतिनिकेतनांत नेमणूक केली. मणिपूरी, कथकळींतले कांय सादे-सोंपे नृत्यबंध आनी कांय लोकांनाचाच्यो हालचाली हांच्या संयोगांतल्यान ताणें एक आगळीच शांतिनिकेतन नाचाची शैली निर्माण केली. समाजाचे संस्कृतीक जिणेंत नाचकलेची सुवात आनी दर्जो वाडोवपाखातीर ताणें खूब यत्न केले. भारतीय नाचाच्या पुनरुज्जीवनांत ताचो वांटो खूब म्हत्त्वाचो आसा.

**भारतीय लोकांनाच** - गांवगिऱ्या समाजांत तशेंच भारतांतल्या आदिवासी जमातींनी करतात त्या नाचांक लोकांनाच म्हण्टात. हे नाच परंपरेन येतात. ते शिकोवपाखातीर तांकां शिक्षकाची वा कलावंताची गरज नासता. तांकां रंगमाचयेचीय गरज नासता. लोकांची करमणूक करून तांचेमुखार आपले कलेचें प्रदर्शन करप इतलोच लोकांनाचाचो हेत आसता. तशेंच लोकांनाचांतलो भावनाविश्कार हो सैमीक आसता. ज्या प्रदेशांत वास्तव्य करतात, त्या प्रदेशाचो स्वभाव, संस्कृताय, वातावरण, समाजीक दर्जो, कर्तव्यां आनी भावार्थ तांच्या लोकांनाचांनी झळकता.

भारतीय लोकांनाच हे चडशे बायलांचे आनी दादल्यांचे वेगवेगळे आसतात. कांय आदिवासी जमाती सोडल्यार हेर लोकांभितर एकठांय दादले-बायलो हांच्या नाचाची पद्दत ना. सामान्यपणान लोकांनाचाचे तीन वर्ग पडटात ते अशे -

१) **लडाऊ वा शौर्यपूर्ण नाच** - शिकारेचे नाच, दशावतारांतले झुजानाच, रुपडीं घालून केल्ले नाच, लेझीम आनी धोल हांचे साथीचेर केल्ले नाच, शिमग्यांतलो रोमटांनाच, बडयांनाच, भाले घेवन केल्ले नाच ह्या वर्गांत येतात.

२) **समाजीक नाच** - पेरणे वेळार आनी कापणे वेळार करतात ते नाच, तशेंच नागपंचम, चवथ, नवरात्र, दसरो, होळी ह्या परबां वेळार करतात ते नाच ह्या वर्गांत येतात.

३) **धर्मीक आनी संस्कारीक नाच** - रथ आनी पालखी हांचेमुखार करतात ते नाच, ग्रामदेवतेच्या उत्सवांत करतात ते नाच, गरबा, रास, कजरी, धालो, नौटंकी हे नाच, जल्मासुवाळो, लग्नसुवाळ्यांनी करतात ते नाच ह्या वर्गांत आस्पावतात.

आदिवासी लोकांचे जिणेंत नाचाक खूब म्हत्व आसा. नाच हो तांच्या देवकृत्यांतलो मुखेल सुवाळो. नाच करुनूच हे लोक आपली खोशी प्रगटायतात. तांचे चडशे नाच हे लडाऊ वृत्तीचे आसतात.

भारताच्या विंगड विंगड प्रदेशांतल्या मुखेल लोकानाचांची थोडेभितर म्हायती अशी -

**आसाम** - हांगा खूब तरांचे लोकांनाच आसात. 'बिहू' हो पारंपरीक नाचाप्रकार बिहू ह्या उत्सव प्रसंगाचेर करतात. 'हुकारी' हो बिहू नाचाचोच एक प्रकार. आसाम आनी ब्रह्मदेशाच्या शिमेवाठारांत रावपी नागा लोकांभितर खुबशो पोटजमाती आसात, त्या जमातींचे स्वतंत्र अशे लोकांनाच आसात. पीक कापणेच्या हंगामांत दादले-बायलो हे दोन ओळींनी 'खांबा लिम' नाच करतात. 'नृइरा लिम' वा कोंब्यांचे झुजीचो नाच हो चले-चलयो मेळून करतात. 'बोरोकाचारी' हे शिवशक्तीचे उपासक आसून शेताच्या दिसांनी ते 'बिहू' आनी 'वैशाखू' हे नाच करतात. लग्नसुवाळ्या उपरांत 'हाबाजानाई' हो नाच करतात. 'नट पूजा' हो दोनूय हातांनी तरसादी घेवन करपाचो शिवाचो नाच. मिझो जमातीचे लोक कोंडे घेवन नाच करतात. आसामांतल्या वैष्णव संप्रदायाच्या 'अंकिया नाट' वा 'भावना' ह्या धर्मीक लोकनाट्यांनी 'बिहुआ', 'वतुआ' हे नाचाचे प्रकार करतात. 'ठुलिया' हो रुपडीं घालून करपाचो नाच. तेच भाशेन 'खुलिया' हो रासक्रीडेचो नाच, 'देवधानी' हो देवदासी सारकिल्ल्या बायलांनी करपाचो नाच आसून, 'ओजापाली' ह्या नाचांत शक्तिपूजा करतात. धोलाचे साथीचेर पदां म्हणून ते नाच करतात.

**मणिपूर** - मणिपूर ही खास नर्तकांची भूंय अशें मानतात. 'रास' हो मणिपूर लोकांनाचाचो आत्मो. 'लाय हरोबा' हो एक पोरणो लोकनाचाचो प्रकार. हो नाच ग्रामदेवतांक ओंपतात. संकीर्तन ह्या एका पारंपरीक धर्मीक नाचा प्रकारांतल्यान 'पुंग चोलम्' (धोलानाच) आनी 'करताल चोलम्' हे नाचाचे प्रकार निर्माण जाल्यात. 'रासलीला नाच' हो सगळ्यांचो आवडीचो लोकांनाच आसून तातूंत चैत्र पुनवेक 'बसंत रास', कार्तिक पुनवेक 'महारास' आश्विन अश्टमीक 'कुंजरास' अशे प्रकार आसात.

**बंगाल** - कीर्तन हो बंगालांतलो खाशेलो नाचाचो प्रकार आसा. रस्त्यावयल्यान धर्मीक भावनेन नाच-पदां म्हणीत नर्तकांचो चोमो वता ताका 'नागर कीर्तन' म्हण्टात. खेड्यांनी पदां म्हणून नाच करतात तांकां 'बाउल' अशें म्हण्टात. 'जात्रा' हो तांचो पारंपरीक नृत्यनाट्यप्रकार. कृष्ण जात्रा, चंडी जात्रा, चैतन्य जात्रा अशे जात्रांचे हेर भेद आसात. हो जात्रा नाचाचो प्रकार प्रशिक्षीत भोंवपी नर्तकसंचाकडल्यान गांवागांवांनी करतात. ह्या नाचाचे विशय कृष्णलिलेंतल्यान घेतात. समाजीक आनी देशभक्तीच्या विशयांचेरूय नाच करतात. 'गंभीरा' हो एक खाशेलो रुपडीं घालून करपाचो नाच. बावरी आनी डोम् जमातीचे दादले 'रायबेश' हो झुजानाच करतात. 'ढाली' होय अशेच तरेचो नाच आसा. तरणाटे दोनूय हातांनी बडयो घेवन व्हड उमेदीन बडयांचो नाच करतात.

**बिहार** - बिहारांतल्या आदिवासी संथाळ जमातीच्या नाचांनी शिकार आनी शेतकी जिणेचें दर्शन घडटा. 'माघी परब' ह्या मकर संक्रांतीच्या उत्सवांत 'बुरू' नाच करतात. 'दसाई' नाच हो दसऱ्याक करतात. 'बा परब' हे होळयेचे परबेक 'डांगा' आनी 'झिका' हे नाच करतात. ओराओं आनी मुंडा आदिवासी लोक 'सरहुल', 'करमा', 'जातरा', 'जदुर' हे लोकांनाच करतात. विंगड विंगड ऋतूंनी हे नाच दादले-बायलो मेळून करतात. 'पैका' हो झुजानाच फकत दादलेच हातांत धाल-तरसाद घेवन करतात. सेराईकेला लोकांच्या 'छाऊ' नाचांनी ह्या प्रदेशाची खाशेली संस्कृताय दिश्टी पडटा. मिथिला बायलो 'जट-जटिन' हो नाच पावसाच्या दिसांनी चान्याचे राती करतात. पेरणी, कापणी, लग्नसुवाळे अशा प्रसंगांनीय कांय लोकनाच करतात.

**उत्तर प्रदेश** - कथ्थक हो हांगाचो मुखेल नाच. राधा-कृष्ण आनी गोपी हांचेर आदारीत अशे हांगा बरेच लोकांनाच आसात. रासलीला नाचाचे जायते प्रकार त्या प्रदेशांत प्रचलीत आसात. होळयेक बायलोय उमेदीन नाच करतात. 'नौटंकी' हो हांगाचो नामनेचो पारंपरिक नाचाचो प्रकार. उत्तर प्रदेशांतले कांय लोकांनाच कांय खाशेल्या जमातींचेच आसतात. अहीर जमातींत जल्म, लग्न ह्या प्रसंगाचेर नाच करतात. कहार जमातीचे नाच जोशपूर्ण आसतात. चामार जमातीचे नाच विनोदी धर्तेचेर आसतात. कुमाऊँ जमातींत दादले बायलो मेळून 'झोरा' हो चोम्यानाच करतात. 'छपेली' ह्या नाचांत, नर्तकीच्या एका हातांत हारसो आनी दुसऱ्या हातांत लेंस आसता. दुस्मानांपासून मुक्ती मेळची म्हणून 'जागर' हो नाच करतात. जोनसार जमातीचे लोक 'थाली' हो नाच करतात. उत्सवावेळार दादले-बायलो 'जैंता', 'जद्दा' हे नाच करतात.

दादले हातांत तरसादी घेवन 'थोरा' हो झुजानाच करतात.

**पंजाब** - शेतकार लोकांचो 'भांगडा नाच' हो हांगाचो नामनेचो नाच. दादल्यांच्या ह्या नाचांतलो जोम आनी उमेद पंजाबी बायलांच्या 'गिध्दा' नाचांतूय दिश्टी पडटा. 'झुमर' हो दादल्यांचो टिपरी नाच आसून, मेळ्यांनी - उत्सवांनी चलयो 'किकली' हो नाच करतात.

**हिमाचल प्रदेश** - हांगाच्या नाचाची लय संथ आसता. दसऱ्याच्या उत्सवांत राम-लक्ष्मण आनी रावण हांचेमदलो झुजानाच हो तांच्या चोम्यानाचाचो एक उत्कृश्ट आविश्कार. 'सांगला' हो नाच दादले-बायलो मेळून स्थानिक देवतेक प्रसन्न करून घेवपापसत करतात. ह्या नाचाचे 'बक्यांग', 'दक्यांग', 'कयांग' अशेय प्रकार आसात. धनगर लोक 'गद्दी' हो नाचाचो प्रकार करतात.

**काश्मीर** - 'रोफ' (रूफ) ह्या बायलांच्या नाचाची लय संथ आसता. सणासमारंभाक वा पीक कापणेच्या वेळार हो नाच करतात. 'हिकात' हो नाच तरणाटे चले - चलयो करतात. 'बचनगमा' हो तरणाट्या चल्यांचो खाशेलो नाचाचो प्रकार. जम्मू प्रदेशांतल्या डोग्रांचे भांगडा नाच जोशपूर्ण आसतात.

**राजस्थान** : 'घूमर' हो हांगाचो नामनेचो नाचाचो प्रकार. तो चडसो नवरात्राच्या दिसांनी करतात. हो नाच दादले-बायलो मेळून करतात. उदेंत राजस्थानांतल्या शेखवटी प्रदेशांत, होळयेदिसा दादले 'गींदड' हो लोकांनाच करतात. 'खयाल' हो हांगाचो नामनेचो लोकांनाच. 'भवाई' ही राजस्थानांतल्या नर्तकांची एक पारंपरिक जमात आसा. ह्या नाचांत बायलो वांटो घेनात. भवाई नर्तक गांवागांवांनी हो नाच करतात. भिल्लांच्या जमातींनीय खूबशे लोकांनाच आसात. लग्नसुवाळे वा उत्सवांच्या वेळार दादले बायलो 'घूमर' हो नाच करतात. होळयेक दादले 'गैर' हो बडयो हातांत घेवन नाच करतात. 'घुमरा' हो भिल्लांचो एक आकर्शक नाचाचो प्रकार. 'शंकरिया' 'कच्छीघोडी' आनी 'पणिहारी' हे गारुडी जमातीचे पारंपरिक नाच.

**मध्य प्रदेश** - हांगाच्या आदिवासी लोकांचे खूबशे लोकांनाच आसात. 'करमा' हो आदिवासी गोंड जमातीचो मुखेल नाचाचो प्रकार. गोंड लोक रानांत भोंवतना घोडबडयांचो (स्टिल्ट) उपेग करतात. तांचो ह्या बडयांवयलो नाच पळोवपा सारको आसता. बस्तरचे माडिया आदिवासी जमातीचे लोक 'गौड' हो दादले-बायलांचो नाच करतात. भाद्रपदांतले पुनवेक 'नवा राणी' आनी माघ, चैत्र म्हयन्यांत 'देवारी', 'चैत दंडा' हे नाच करतात. शेतांत बी पेरतकच 'बीज पुतनी' हो नाच करतात. पावसाचे उपासनेखातीर रातभर 'गोंचा' हो नाच करतात. आंकवार चले-चलयो 'लक्ष्मीजागर' हो नाच करतात. बंजारा जमातींतले लोक उत्सवा वेळार 'लांगी' हो नाच करतात. हेच जमातींत बायलांचो 'लोटा' हो नामनेचो नाचाचो प्रकार आसा.

**ओरिसा** - हांगाच्या आदिवासी लोकांभितर गदाबा, जुआंग, खोंड, गोंड, बैगा, साओरा अशे विंगड विंगड लोकांनाचाचे प्रकार आसात. मयुरभंज प्रदेशांत 'छाऊ', 'गरुडवाहन', 'मायाशावरी' हे पैका जमातीचे खाशेले लोकांनाच आसात. हांगाच 'करमा' हो नाच देवतेचे आराधनेखातीर करतात. भूमीया जमातींत बुरू बोंगा देवतेचे उपासनेखातीर 'जदुर' नाच करतात.

**गुजरात** - 'गरबा' हो गुजरातांतलो नामनेचो लोकांनाच. थंय रासलीला आनी कृष्णलीला हे नाचूय प्रचलीत आसात. दादल्यांच्या 'दंडिया रास' ह्या नाचांत घुंगूर बांदिल्ल्या बडयांचो वापर करतात. 'टिपणी' हो श्रमीक लोकजीणेचेर आदारिल्लो खाशेलो नाचाचो प्रकार.

**आंध्र प्रदेश** - कूचिपुडी, यक्षगान हे हांगाचे तंत्रशुद्ध आनी अभिजात लोकांनाच. आंध्र प्रदेशांतली भटकी वंजारी वा लंबाडी जमातींची नाचांखातीर नामना आसा. हे जमातींतले दरेके बायलेक ह्या नाचांत वांटो घेवंचो पडटा. तेबगर तांकां लग्न जावपाक मेळना. सिद्दी जमातींतल्या झुजानाचांत आफ्रिकी आदिवासी नाचाची सया झळकता. हांगाच्या 'डप्पू' नाचाचीय नामना आसा. चेंचू जमातीच्या बायलांचे नाच आकर्शक आसतात. 'मथुरी' हो नाच दादले - बायलो मेळून करतात. 'बतकम्मा', कुम्मी' हे बायलांचेच नाच.

**तमिळनाडू** - नामनेचो 'भरतनाट्यम्' हो नाच तमिळनाडूचो. ह्या प्रदेशांत कावडी, करगम्, ओइलाट्टम्, कुम्मी, कोलाट्टम् हे लोकांनाच रूढ आसात. 'पिन्नल कोलाट्टम' हो हांगाचो गोफनाच. 'कुरवंजी' हो तमिळनाडूंतल्या लोकांनाचाचो खाशेलो प्रकार आसून ताका भरतनाट्यम् नाचाचें मुळावें रूप मानतात.

**कर्नाटक** - हांगाचे कांय नाच समाजीक, धर्मीक तशेंच भूतबादेचें निवारण जावपाखातीर करतात. दक्षिण कर्नाटकांत विशिश्ट भूतदेवतेचो पुजारी 'भूतकोला' हो नाच करता. ह्या नाचाच्यो हालचाली आनी भेस भिरांकूळ आसता. पिकाचे कापणेउपरांत 'घोडो नाच' करतात. नागदेवतेचे उपासनेखातीर 'वैद्य' नाच करतात. सुगीवेळार आनी उत्सवाच्या प्रसंगाचेर 'बलाकाट' नाच करतात. एका खाशेल्या धर्मसुवाळ्याचेर करतात त्या 'करगा' नाचांत गांवांतले सगळे लोक वांटो घेतात. 'यक्षगान' हो हांगाचो अभिजात नाच.

**केरळ** – कथकळी हो केरळांतलो अभिजात नाच. मोहिनीआट्टम् आनी ओट्टन तुळ्ळल हे नाचाचे प्रकारूय अभिजात मानल्यात. 'कोलकळी' हो मोपला मुसलमानांचो नामनेचो लोकांनाच. ह्या नाचावांगडा म्हण्टात तीं पदां हिंदू देवतांचीं आसतात. 'भद्रकळी' हो धर्मसुवाळ्याचो नाच देवळांत करतात. ह्या नाचाच्या शेवटाक 'तियाट्टू' हें अग्निनृत्य करतात. ओणम् परबेवेळार केरळी बायलो 'काईकोट्टिकळी' हो नाच करतात. खेड्यांतल्यो चलयो 'अत्तापू' नांवाच्या फुलांचें रींग करून फेर धरून नाचतात. पद्मनाथ स्वामीच्या उत्सवाचेर नायर लोक 'वेलकळी' हो झुजानाच करतात. 'कळियाट्टम्' हो एक धर्मीक नाच.

**महाराष्ट्र** - महाराष्ट्रांत लोकानाचाची समृद्ध अशी परंपरा आसा. थंयच्या गोंड, भिल्ल, कातकरी ठाकूर, कोरकू ह्या आदिवासी जमातींनी खाशेले अशे नाचाचे प्रकार आसात. ज्या वाद्यांचे साथीचेर हे नाच करतात, त्या वाद्यांच्या नावांनीय ते नाच वळखतात. देखीक - धोलाचो नाच, तंबोऱ्याचो नाच. आदिवासी जमातींनी जल्म, लग्न, मरण ह्या प्रसंगांचेरूय नाच करतात. 'वारी घालप' हो नाच तांच्या मरणा वेळार करतात. तशेंच 'घेराचो नाच', 'रथाचा नाच' अशेय तांचे कांय प्रकार आसात. कांय मागाशिल्ल्या जमातींनी 'कडकलक्ष्मी', 'भगत', 'वीर' अशे धर्मीक सुवाळ्यांचेर नाच करतात. विदर्भांत कांय जमातींनी 'दंडार' हो लोकांनाच करतात. दर्यादेगेवयल्या वाठारांनी कोळी नाचाचे खूब प्रकार आसात. 'नकटो' हो एक तांचो विनोदी नाचाचो प्रकार आसून तातूंत खारवी, खारवीण आनी नकटो अशीं तीन पात्रां आसतात. 'काठखेळ' ह्या नाचांत बडयांच्या तालार फेर धरून नाचतात. कोंकणांतल्या कुणबी समाजांत गौरीचो आनी गौरींगणपतीचो 'चेऊळी नाच' करतात. ताका

'जाखडी' अशेंय म्हण्टात. नागरी समाजांत टिपरी आनी गोफ नाच आसात. हे नाच विदर्भांत कोजागिरी पुनवेक आनी कोंकणांत गोकुळअश्टमीक करतात.

लेझीम हो महाराष्ट्रांतलो एक मुखेल नाचाचो प्रकार. हो नाच दादलेच करतात.दिंडी आनी कालो हे दोन मुखेल धर्मीक नाचाचे प्रकार. दशावतार आनी बोहाडा हीं नामनेचीं पारंपारिक नृत्यनाट्यां. 'राधा' वा 'गौळण' नाच हे थंयचे लोकप्रिय आनी कलात्मक नाचाचे प्रकार. ह्या नाचांत राधा आनी कृष्ण हांचेमदलो मोग आनी राधेची मिलनाची ओड असो आशय आशिल्लीं पदां म्हणून हो नाच करतात. तमाशा हो महाराश्ट्रचो आवडीचो असो नृत्यप्रधान लोकनाट्याचो प्रकार. तातूंत 'लावणी' ह्या शृंगारीक नाचाचो आस्पाव जाता. महाराष्ट्रांत बायलांचे अशे खास पारंपारीक नाचाचे प्रकार आसात. हे नाच देखीक - फुगडी, पिंगा, किस बाई किस हे मंगळागौर, गौरीपुजा, कोजागिरी, नागपंचम अशा बायलांच्या उत्सव परबांवेळार करतात.

आर्विल्ल्या काळांत महाराष्ट्रांत अभिजात नाचांचो प्रसार करपाचें आनी नाचाक समाजीक प्रतिश्टा मेळोवन दिवपाचें श्रेय उदय शंकर आनी मेनका ह्या नामनेच्या भारतीय नृत्यकारांक मेळटा. दमयंती जोशी, पार्वती कुमार., सुरेंद्र वडगावकर, मोहन कल्याणपूरकर, रोहिणी भाटे, मंदाकिनी मालवीय, कनक रेळे, सुचेता भिडे हे महाराष्ट्रांतले कांय नामनेचे नर्तक-नर्तकी.

**गोंय** - गोंयांक अभिजात नाचाची परंपरा ना तरी लोकानाचाची परंपरा समृद्ध आसा. विंगड विंगड वाठारांनी वेगवेगळ्या प्रकारांच्या नाचांनी गोंयचे कोंकणी संस्कृतीचें दर्शन घडटा.

धनगर जमातींत होरबाला, चपय आनी राधाकृष्ण अशे तीन प्रकारचे नाच करतात. होरबाला हो नाच दसऱ्याक करतात, जाल्यार चपय हो नाचाचो प्रकार शिगम्याक करतात. ह्या दोनूय नाचांनी पदां म्हणिनात. तांच्या 'राधाकृष्ण' ह्या नाचाक 'राधा किर्तन' अशेंय म्हण्टात. धनगरी बायलांची फुगडी ही हेर फुगडेपरस मात्शी वेगळी आसता. गोंयांतल्यो गांवागिऱ्या वाठारांतल्यो बायलो विंगड विंगड प्रकारांची फुगडी घालतात. फुगडेक वाद्यांची साथ नासता पूण फुगडी गितांची साथ आसता. क्रिस्तांव गावडे इंत्रुजावेळार 'दांडलां' खेळ खेळटात. काणकोण वाठारांत भाद्रपद म्हयन्यांत कुणबी लोक 'भदप' ह्या उत्सवा वेळार एक विधी म्हणून 'भदप' हो नाच करतात. ह्या नाचांत सादारणपणान फुगडेचे पंदरा-सोळा प्रकार आसतात. ह्याच उत्सवांत बायलो 'कळशी फुगडी' ही फुगडी हातांत कळसुल्यो घेवन घालतात.

कार्नावालाच्या दुसऱ्या दिसा चांदर ह्या गांवांत 'मुसळां नाच' हो प्रकार वर्सुकी विधी म्हणून करतात. हो नाच दादलेच हातांत मुसळां धरून करतात. दिवचल, कुडणें, कांसारपाल, मोरजी ह्या गांवांनी शिगम्याच्या दिसांनी 'घोडेमोडणी' हो नाचाचो एक प्रकार जाता. माती, शेंड वा लाकूड हांचेपासून मानेमेरेन घोड्याचीं तोंडां तयार करतात आनी चार पांच कापडां गुठलायतात. उपरांत तो रंगयल्लो घोडो कमराक बांदून नाचतात. ह्या नाचाक पदांची साथ नासता. वीरभद्र होय विधीनाचाचो एक प्रकार. पुराय गोंयांत शिगम्याक 'तालगडी' हो नाचाचो प्रकार करतात. 'तोणयांमेळ' होय शिगम्यांतल्याच नाचाचो प्रकार. तशेंच, गोफ नाचाकूय गोंयांत परंपरा आसा. 'मोरुलें' हो मोरांनाच दिवचल म्हालांत शिगम्याच्या दिसांनी खेळटात. काणकोण, सांगें म्हालांतल्या शिगम्यांनी दादले दिवल्यांनाच करतात. माथ्यार पेट्ट्यो दिवल्यो दवरून घुमट, समेळ, झांज ह्या वाद्यांचे साथीचेर हो नाच करतात. देखणी, मांडो हे नाचाचे प्रकार क्रिस्तांव समाजांतल्यो चलयो-बायलो करतात. पेणें, घोडो घालप हे नाचाचे प्रकार देवळांचे संस्कृतींतले आसून देवाची पालखी मिरवणुकीक भायर सरतकच जे थरावीक सुवातेर थांबता ताका पेणें अशे म्हण्टात. थंय देवदासी समाजांतल्यो बायलो पदां म्हणून नाच करतात.

मुसलमान लोक उत्सवां वेळार वा आंगवण केल्ली आसल्यार 'रातीब' नांवाचो एक प्रकार करतात. हातूंत कांय तरणाटे पदांच्या थेक्याचेर नाच करतात. क्रिस्तांव समाजांतल्या कार्नावाल उत्सवांत करतात त्या नाचाक 'कार्नावाल नाच' म्हण्टात.

'जागर' हें एक गोंयचें नृत्यनाट्य. पेरणी जागर ह्या नृत्यनाट्यांत दादले - बायलो वांटो घेतात. हातूंत नाच, संगीत, गद्य आनी पद्य संवाद आसतात. कालो, गोपाळकालो, गौळणकालो, दशावतारी खेळ, रणमाळें ह्या गोंयच्या लोकनाट्यांचीय नाचाबगर पुर्तताय जायना.

भारतीय नाचाचो चीन, जपान, आग्नेय आशिया तशेंच हेरकडेनय प्रसार जालो. हे विशीं कांय देशांची म्हायती मेळटा ती अशी -

**श्रीलंका** - 'कँडी नाच' हो श्रीलंकेचो नाच आसून केरळांतल्या केरळ नाचाचो ताचेर बरोच प्रभाव जाणवता.

**ब्रह्मदेश** - नाट्यप्रयोगाच्या आविश्काराक हांगा 'प्वी' (Pwe) म्हण्टात. 'जातक' शब्दासावन तयार जाल्ल्या 'झात् प्वी ( Zat Pwe) ह्या आविश्काराक सद्याच्या ब्रह्मदेशाची अभिजात रंगमाची म्हण्टात. हातूंत दादले - बायलो एकठांय नाच करतात.

**थायलँड** - पयलीं ह्या देशान भारत आनी हेर राश्ट्रांकडल्यान नाचाची कला आपणायली. तांच्या अभिजात नृत्यनाट्यांक 'खोन' आनी 'लाकोन' म्हण्टात.

**कंबोडिया** - कंबोडियन नाच चडसो बायलोच करतात. भारतीय परंपरेकडेन ह्या नाचाचें खूब सारखेपण दिसता.

**लाओस** - हांगाचो नाच रामायण आनी बुद्धाच्या चरित्रकथांचेर आदारिल्लो आसता.

**इंडोनेशिया** - हांगाच्या नाचानूय हिंदू प्रभाव आनी रामायण, महाभारत हांची फाटभूंय दिसता.

**जपान** - हांगा गा-गाकु, नो नाट्य आनी काबुकी ह्या तीन नाट्यकलांनी नाचाचो आविश्कार घडटा.

**अस्तंती नाट्यकला** - पुर्विल्ली इजिप्शियन संस्कृती, उपरांतची रोमी - ग्रीक संस्कृती, धर्म प्रभावाचें मध्ययुग, प्रबोधनकाळ आनी विसाव्या शेंकड्याचे विंगड विंगड पांवडे क्रमान अस्तंती नृत्यकलेची परंपरा सांगतात. युरोपी देश, रशिया, अमेरिका आनी युरोपी वसणुकांचे हेर प्रदेश अशी तिची प्रदेशीक व्याप्ती मानतात. विविधताय आनी सतत जावपी बदल हें अस्तंती नृत्यकलेचें खाशेलेपण.

अस्तंती नृत्यकलेंत, नर्तक ताच्या नाचाच्या आंगाची चपळटाय, ताचें प्रशिक्षण, कोरिओग्राफर आनी तंत्र वा लिखाणपद्दत, संगीत आनी वाद्यां हांची येवजण, नाचाचो परिणाम सादपी साधनां, नाचांतले आविश्कार (कोरिओग्राफी) होच अस्तंती नृत्यकलेचो सगळ्यांत म्हत्वाचो घटक.

एका मनशाचो वा चोमोनाच, धर्मीक-वंशीक स्वरुपाचो नाच, लोकांनाच, दरबारी नाच, बॉलरूम डान्स, रंगमाचये वयलो नाच अशें अस्तंती नाचाचें

सादारणपणान वर्गीकरण करतात. आदीम जमातींनीय धर्मीक-वंशीक स्वरुपाच्या नाचांनी तांच्या आंगिक हालचाली, नाचाचो भेस आनी नाचाचो हेत हेविशीं रितीबद्द जाल्लो दिसता. नाचाचो उपेग चलचित्रां, नाटकां हांतुतूय जावपाक लागलो. फ्रॅड आस्टेअर हो नामनेचो चित्रपट नर्तक, 'टॅप' नाचाखातीर ताची नामना आशिल्ली.

आफ्रिकन पिग्मी नर्तकांचो वेवसायीक वर्ग इजिप्तांत आशिल्लो. दरबारी आनी सधन लोकांचो तांकां आलाशिरो मेळटालो. इ. स. पयलीं १५०० च्या अदमासाक भारतांतल्यो देवदासी इजिप्तांत पाविल्ल्याचें दिसता. इजिप्ती नाचाचो प्रभाव क्रीटाचे वतीन पुर्विल्ल्या ग्रीक नाचाचेर पडलो. क्रीटांतलो वृषभनाच, इजिप्ती दिक्षाविधी नाचाभशेन आसा. क्रीटांतलो दुसरो म्हत्त्वाचो नाचाचो प्रकार 'पिन्हिक'. प्लॅटोन देहाची सोबीतकाय वाडोवपी तशेंच अचकट विचकट हावभाव करून देहाची कुरूपताय दाखोवपी अशे नाचाचे दोन प्रकार मानिल्ले. देवतांभोंवतणीं ग्रीसी आंकवार चलयो प्रदक्षिणा नाच करताल्यो. डायोनायसस देवतेखातीर द्राक्षांच्या शारदी हंगामांत विमुक्त नाच जातालो. 'मेनॅड' म्हणून वळखुपी बायलो तातूंत वांटो घेताल्यो. सुखात्मिकांच्या प्रयोगांनी 'कोर्डॅक्स' नांवाचो स्वैर उत्तान नाच लोकप्रिय आशिल्लो.

इ. स. पयलीं २०० वर्साच्या अदमासाक पेरणेच्या हंगामांत मिरवणूक काडून, हे मिरवणुकींत सगळ्यांत मुखार पुरयत रावता. मंगळ हे झुजादेवतेचो 'साली' म्हळ्यार पुजारी शस्त्रसज्ञ आनी भपकेदार भेसांत धाली वाजयत नाचाचो फेर धरता.

सम्राट ऑगस्टसच्या काळांत रोमी मूकनाट्य उदयाक आयलें आनी लोकप्रिय जालें. मध्ययुगांतले 'डान्स ऑफ डॅथ' आनी 'सेंट व्हायट्स' हे नाच उल्लेख करपासारके आसात. चवदाव्या शेंकड्यांत जर्मनींत 'टोटेण्टाझ' नांवाचो असलोच डान्स ऑफ डॅथ नाचाभशेन नाच जातालो. प्रबोधनकाळांत अस्तंती, नृत्यकला देखणी आनी प्रेक्षणीय जायत गेली. नृत्यसंगीताचीय उदरगत ह्याच काळांत जाली. उकते सुवातेर व्हड देखाव्यांचे नाचाचे प्रयोग हें ह्या काळांतलें खाशेलपण आसा. ह्या देखाव्यांच्या नाचांभितर 'त्रिओन्फी' ह्या नाचाची चड नामना आशिल्ली. भौशीक नाचांभाशेन दरबारी नाच लेगीत खूब लोकप्रिय आशिल्ले. 'मॉरिस्का' हो मुळांत स्पेनी भूर प्रकाराचो नाच त्या काळांत चड लोकप्रिय आशिल्लो. दोमेनिको दा प्याचेंत्सा ह्या नृत्यविशारदाचो 'ऑन द आर्ट ऑफ डान्सिंग अँड डायरेक्टिंग कोरसेस' हो प्रबंध १४१६ वर्सा उजवाडा आयलो. आंतोनियो कोर्नात्सानो हो ताचो शिश्य. ताणें 'बुक ऑफ द आर्ट ऑफ डान्स' हो प्रबंध १४६० वर्सा उजवाडायलो. ह्या प्रबंधांतल्यान 'बाल्ली' म्हळ्यार ह्या नृत्यविशारदांनी केल्ल्या नव्या नृत्यप्रयोगांची म्हायती मेळटा. फ्रांसांत 'ब्रानल' ह्या मूळ शेतकारांच्या नाचाचे विंगड विंगड प्रकार दरबारी नाच म्हणून विकसित जाले. ह्याच काळांत 'मॉरिस्का' वा 'मोरेस्क' हो मूळ स्पेनी मूर लोकांचो नाच फ्रांसांत लोकप्रिय जालो. १४८९ वर्सा ड्यूक ऑफ मिलानच्या लग्न सुवाळ्यांत जेवणा वेळार एक नृत्यनाट्य (बॅले) केल्लें ताचो विशय जेसन आनी गोल्डन फ्लीस हे पुराणकथेचेर आदारिल्लो आशिल्लो. इंग्लंडांत सोळाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत पयली एलिझाबेथ हिणें नाचाचे कलेक खूब उर्बा दिली. तिका स्वताक 'गॅल्यर्ड' आनी 'व्होल्टा' हे नाच येताले. सरदार वर्गांत 'जिग' हो लोकांनाच चड प्रिय आशिल्लो. ह्याच काळांत नाचाच्यो शाळा सुरू जावन त्या नाचाचे भौशीक प्रयोग जावंक लागले. स्पेनिश राज्यविस्ताराक लागून युरोपीय नृत्यकलेंत आफ्रो-अमेरिकन नृत्यप्रवाह येवन भरसले. 'सॅरबँड' आनी 'कॅकोन' ह्या मध्य अमेरिकन भडक कामूक नाचाक सौम्य स्वरुपांत स्पेनांत नामना मेळ्ळी. उपरांत फ्रँच दरबारी नाचांनीय ह्या नाचाचो आस्पाव जालो. दुसऱ्या हॅन्रीची राणी केथरिन द मेदीची ही नाचाची खूब भोक्ती आशिल्ली. तिणें इटालियी नृत्य विशारदांक फ्रँच दरबारांत आपोवन घेतले. १५८१ वर्सा तिचेखातीर पयलो 'बॅले' (बॅले कॉमिक द ल ऱ्हायन) सादर केलो. हातुंतल्यानूच उपरांत 'बॅले द कू' हाचो उदय जालो.

नृत्यकला कशी शिकची हेविशीं १५८८ वर्सा झां ताबॉरो ह्या धर्मोपदेशकान थोईनो आर्बो ह्या टोपण नांवाखाल ताचो एक प्रबंध उजवाडायलो. तातूंत 'बास', 'पॅव्हन', 'गॅल्यर्ड', 'व्होल्टा' ह्या त्या काळांतले नाच आनी 'ब्रानल' हाच्या विंगड विंगड तेवीस रूपभेदांचीं वर्णनां आसात. १६६१ वर्सा चवदाव्या लुईन स्थापन केल्ले ' रॉयल अकॅडमी ऑफ म्युझिक ऍंड डान्स' हे संस्थेक लागून अस्तंती नृत्यकलेक खूब नेट आयलो. १६८२ वर्सा क्लॉद-फ्रांस्वा मेनेस्त्रिये हाचो 'ऑन डान्सीस, एन्शंट अँड मॉडर्न' हो नृत्यकलेच्या इतिहासाचेर बरयल्लो ग्रंथ उजवाडा आयलो. १७०१ वर्सा ' कोरिओग्राफी' हो दुसरो म्हत्त्वाचो ग्रंथ राऊल फये हाणें उजवाडायलो.

१६५० ते १७५० हो शेंकडो मिन्युत ह्या समाजीक नृत्यप्रकाराच्या प्रभावाचो मानतात. जोडप्यांनी वांटो घेवपाच्या ह्या नाचाक व्हर्सायच्या फ्रँच दरबारांत नृत्यमाला कार्यावळीत उंचेली सुवात आशिल्ली.

इंग्लंडांत 'मॉरिस' नाच खूब लोकप्रिय आशिल्लो. फ्रँच राज्यक्रांती उपरांत युरोपीय कलाक्षेत्र स्वच्छंदतायवादाच्या प्रभावाखाल आयलें. नाचाच्या क्षेत्रांत वॉल्ट्स ह्या जर्मन नाचाच्या प्रकारान स्वच्छंदतावादी क्रांती घडोवन हाडली. एकमेकांक वेंगांत घेवन वाटकुळाकार गतींत रंगत वचपी ह्या युग्मनृत्याचे फ्रांस, जर्मनी, अमेरिका ह्या देशांनी नवे नवे प्रयोग जायत रावले. १८४० च्या अदमासाक पोल्क हो बोहेमियीन नाच फुडें आयलो. पोल्क म्हळ्यार अर्दें पावल वा पदन्यास. पोल्काभशेन 'रेडोवा' हो दुसरो बोहेमियीन लोकांनाच आनी पोलंडाचे 'मझुर्क' आनी 'क्रॅकोव्याक' हे लोकांनाच युरोपांत मान्य जाले.

अठराव्या शेंकड्याच्या निमाणें बॅले नाचाचें मुळावण पडिल्ल्यान एकुणिसाव्या शेंकड्यांत स्वच्छंदतायवादी बॅलेचो पुराय विकास जालो. कार्लो ब्लासिस हाचें 'एलिमेंटरी ट्रीटायझ अपॉन द थिअरी अँड प्रॅक्टिस ऑफ दी आर्ट ऑफ डान्सिंग' हें पुस्तक बॅलेवयलें प्रमाणभूत पाठ्यपुस्तक थरलें. 'द स्लीपिंग ब्यूटी', 'स्वॉन लेक' हे अभिजात रशियी बॅले संवसारीक नामनेचे आसात.

पॅरिसांत 'कॅनकॅन' हो फकत बायलांचो लोकप्रिय नाच आसा. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत दळणवळणाच्यो सवलती वाडिल्ल्यान सगळ्या प्रकारांचें संस्कृतीक दिवप-घेवप सोंपें जालें. व्हड व्हड युरोपी शारांनी भौशीय नाचघरां आनी नाचाच्यो संस्था हांची वाड जाली. तातूंत अमेरिकन 'केकवॉक' भाशेन सगळें आंग घुसळून करपाच्या नाचाचो प्रकार लोकप्रिय थारलो.

विसाव्या शेंकड्याच्या आरंभासावनच लॅटिन अमेरिकी आनी आफ्रिकी नृत्यसंगिताचो प्रभाव युरोपी नृत्यकलेचेर चड करून भौशीक नाचाचेर व्हड प्रमाणांत जाल्ल्याचें दिसता. 'टर्की ट्रॉट', 'फॉक्स ट्रॉट' हे आफ्रिकी नाचाचे प्रकार. 'टँगो', 'रुंबा', 'सांबा', 'च्या च्या च्या' असले लॅटिन अमेरिकी नाचाचे प्रकार आनी अमेरिकी खापऱ्यांचें जॅझ संगीत हांची

लोकप्रियता युरोपी तरणे पिळगेंत खूब वाडली. 'रॅगटायम' हे सारको उन्मादक शृंगारीक संगीताचो नाचाचो प्रकार, कसरती लालित्याचो 'जिटरबग', 'रॉक अँड रोल' आनी तसलोच 'ट्विस्ट' हे नाचाचे प्रकार अस्तंती जगांत चड उणो काळ प्रभाव गाजयत रावलो.

१००९ वर्सा पॅरिसांत पयली नाचाची सर्त जाली. नाचाच्या शिक्षणाची खाशेल्या संस्थांनी आनी विद्यापिठांनी केल्ली वेवस्था, राश्ट्रीय पांवड्याचेर नृत्यकलेचे अकादमींची स्थापणूक, नाचाविशींच्या गीतांची वाड, नृत्यलिखाणांत जावपी सुदारणा, लोकांनाचाचें वाडटे शास्त्रशुद्ध संशोधन आनी संपादन, रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी ह्या माध्यमांतल्यान नाचांच्या कार्यावळींक मेळपी प्रसिद्धी, नाचाच्या संघाचे संवसारीक दौरे, चलचित्रां-नाटकांनी नाचाक दिल्लें म्हत्व ह्या सगळ्या कारणांक लागून विसाव्या शेंकड्यांत अस्तंती नृत्यकलेची पुराय-उदरगत जाली.

नाचाचे हे कलेक उर्बा दिवपाखातीर शासकीय पावंड्याचेर लेगीत खूबशे उपक्रम चालू आसात. प्रजासत्ताक दिसा नामनेच्या नर्तक - नर्तकींक सन्मान्य किताब दिवन तांचो भोवमान करतात. संस्कृतीक प्रतिनिधींक मंडळांत, नर्तकांक परदेशी भोंवडेर धाडटात. तेच प्रमाण शिश्यवृत्त्यो संगीत, नाच, नाट्य ह्या क्षेत्रांतल्या कलावंतांक दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**नाचणो :** (मराठी : नाचणी, नागली; हिंदी : मंडुआ, माक्रा, रोतका; गुजराती : बावटो; कन्नड : रागी; संस्कृत : राजिका, नर्त्तका; इंग्लीश : फिंगर मिलेट; आफ्रिकन मिलेट; लॅटीन : इल्युसायन कोरॅकोना; कूळ : ग्रॅमिनी).

ही एक वर्सभर जगपी वनस्पत. तिची पाळां खोडा सकयले वटेन एकाच जाग्यावयल्यान चोम्यांनी येतात. तिची लांबाय सादारण १०-२० सेंमी. आसता. खोडाची लांबाय ०.६-१.२ मी. ऊंच आसून मुळांतल्यान जायत्या खोडाचो झुबको येता. पानां अशीर पूण लांब आसून तीं मुळांत खोडाक वेश्टिल्लेवरी आसतात. खोडाचे तेंगशेर ४-६ दाट, सरळ वा वांकड्या कणसांचो आसता. फुलां एकदम ल्हान घोसांनी आसतात. फुलाचें कणस वाटकुळें आनी दरेका कणसाक खांदयो आसतात. दर खांदयेक भरपूर नाचणे आसतात.

ही वनस्पत मुळची आफ्रिका खंडांतली आसून उपरांत ती उश्ण कटिबंधांतल्या हेर देशांनी पातळ्ळी. इंडोनेशिया ते आफ्रिका ह्या वाठारांनीय ती पिकयतात. तेभायर मादागासकार, श्रीलंका, चीन आनी जपान ह्या देशांनीय तिची लागवड करतात. चवथ्या आनी पांचव्या शतमानांतल्या द्रवीड साहित्यांत 'रागी' चो उल्लेख आयला. सुश्रुत संहितेंत (तिसऱ्या शतमानांत) तिचो उल्लेख राजिका ह्या नांवान आयला. हाचेवयल्यान तिसऱ्या शतमानाचे आदीं तिचो प्रवेश भारतांत जालो आसुंये वा ती भारतांतलीच आसुंये. सद्या भारतांत सगळ्याक चड करून घाटमाथ्यार, हलके जमनींत चड पावसाच्या वाठारांत तिची लागवड करतात. भारतांत २.२४ दशलक्ष हॅक्टर आनी गोंयांत ३८१५ हॅक्टर क्षेत्र नाचण्याचे लागवडीखाल आसा. भारतांत नाचण्यापसून १.९७ दशलक्ष टन आनी गोंयांत ३६७८ टन उत्पन्न मेळटा. १९९३-९४ वर्सा गोंयांत नाचण्याचें उत्पादन ३२४७ टन इतलें आशिल्लें.

नाचण्याचे इन्डाफ-५, पी-आर २०२ (गोदावरी) पुर्णा, अन्नपुर्णा ह्यो गोंयांत जावपी मुखेल जाती आसात. भाताउपरांत गोंयांत सर्द हंगामांत जावपी नाचणे हें मुखेल पीक. नाचण्याचें पीक पावसांत, वांयगण म्हणून तशेंच गिमांत घेवपाक येता. पावसाची गरज सादारण ५० ते १०० सेंमी. आसता. नाचण्याचें पीक उत्तर भारतांत सर्द हंगामांत जाल्यार दक्षिण भारतांत वांयगण हंगामांत घेतात. ह्या पिकाक तांबशी आनी काळसर तशेंच रेंव भरशी आशिल्ली जमीन मानवता. पावसाळी पीक मे वा जून म्हयन्यांत पेरून सप्टेंबर वा ऑक्टोबर म्हयन्यांत तयार जाता. पीक तयार जावपाक ११० ते १२० दीस लागतात. शिंपणावळीचें पीक म्हणून नाचणे वर्सयभर घेवपाक जाता. हॅक्टरी ४-५ किलो बीं पुरो जाता. नाचण्याची लागवड करपाखातीर सुर्वेक रोंपां तयार करचीं पडटात. तेखातीर ८ मी. लांब १.५ मी. रूंद आनी १० सेंमी. उंचायेचीं आयणां तयार करचीं पडटात. एक हॅक्टर जमीन लागवड तयार करपाखातीर असलीं ४० आयणां पुरो जातात. दर आयणाक ३ - ४ पांटले शेणखत आनी ५० ग्राम १९:१९:१९ सारें घालून उपरांत दर आयणांक १२५ ग्राम बी पेरप. पेरचे आदीं बियांक दर किलांक ३ ग्राम ह्या प्रमाणान 'पारासोन' हें वखद लावचें पडटा. तशेंच दर आयणाक ३०० ग्राम ह्या प्रमाणान 'झींक सल्फेट' भरसुचें पडटा. हें बियांकय लावंक मेळटा. तेखातीर १२.५ ग्राम झींक सल्फेट घेवन तें थोड्या उदकांत भरसून पेस्ट तयार करतात. ही पेस्ट २-२.२५ किलो बियाणाक लावन एक रात दवरून दुसऱ्या दिसा बियां पेरपाक जातात. आयणांतलीं रोंपां २० दिसांनी लावणी करपाक तयार जातात.

मुखेल शेतांत नांगरणे वेळार हॅक्टरी २०-२६ गाडे शेणखत वा कंपोस्ट, १०० किलो १९:१९:१९ सारें घालतात. उपरांत दोन ओळींनी २० सेंमी. आनी दोन रोपांमदीं १५ सेंमी. अंतर दवरून, वांगडा २-३ रोपां लायतात. रोपां लावन २०-२५ दिसांनी हॅक्टरी ५० किलो युरिया सारें दितात. वांयगणांत रेंवट मातयेंत दर ८ दिसांनी जाल्यार बरे जमनींत १५ दिसांनी उदक दितात.

नाचणे हें एक पुश्टीक धान्य. ताच्या पिठापसून भाकरी करतात. तेचपरी नाचण्याचें सत्व करतात, ताचेपसून आंबील करून खातात. नाचण्यांत भरपूर प्रमाणांत कॅल्शियम आनी प्रथिनां आशिल्ल्यान गंवापरसय तें चड पुश्टीक आसता. कश्टाचें काम करपी लोकांक नाचण्याचें अन्न बरें पडटा. गोड्यामुताचें आशिल्ल्या लोकांकय नाचणे उपेगी पडटा. नाचण्याचें तण गोरवांक खावड म्हणून वापरतात. पूण तातूंत अन्न घटक उणे आसतात.

नाचण्याचेर पडपी मुखेल कीड म्हळ्यार मुळां खावपी कीड (Root Grub) , खोड किडो (Stem bores), लिफ होपर (Leaf hopper), कट वॉर्म (cut warm), एफीड (Aphid), ईअरहेड कॅटरपिलर (Earhead Caterpillar) आनी मायलोसरस निवील (myllocerus Neavil) . नाचण्याक पडपी मुखेल रोग म्हळ्यार मूळ कृजण्या (Foot rat), सिडलींग ब्लायट (Seedling Blight), वायरस (Virus) आनी हेलमेन्तो स्पोरीयम (Helminthosporium) आनी चरमो (Blast).

कीड आनी रोग ना जावपाखातीर चर्ण्यार पंदरा दिसांउपरांत मिथायल पाराथिओन (१८ मिली) (Methyl Parathion) हें वखद वा फॉस्फोमिडोन ३ मिली. वा डायमॅथोएट आनी ४० ग्राम झायनेब १८ लिटर उदकांत भरसून फवारचें. हें मिश्रण परत लावणी करतकच २० आनी ४०दिसांनी फवारचें. कणसार पडपी कीड मारपाक मालाथिओन वा हेन्डोसल्फान हें

वखद २० मिली. १० लिटर उदकांत घालून फवारचें. चर्याची बरी जतनाय घेवन लागण केल्यार हॅक्टरी शिंपणावळीचे २०-२८ जाल्यार पावशीं ६ ते १२ क्विण्टल नाचण्याचें पीक मेळूंक शकता.

– यादवेंद्र देसाय

**नाझारे, दुमिनु जुवांव लिनार्दु :** (जल्म : मयडें). एक गोंयकार क्रिस्ती धर्मप्रचारक १९३१-३३ ह्या काळांत तो कोचीचे डायोसेझीचो आपोस्तालीक एडमिनीस्ट्रेटर आशिल्लो.

– कों. वि. सं. मं.

**नाझीवाद :** जर्मनींत १९१९त नॅशनल सोशॅलिस्ट वर्कर्स पार्टीची थापणूक जाली. उपरांत ह्याच पक्षाक नाझी पक्ष अशें नांव दिलें. नाझीवादाचो विचार वंशवेदाचेर आदारिल्ल्या आक्रमक राष्ट्रवादांतल्यान वयर सरला. हेगेल, नित्शे, श्मिड्ट आनी रोझेनबर्ग हाणीं मांडिल्ल्या मतांचेर नाझीवादाची रचणूक जाल्ली.

पयल्या म्हाझुजांत जर्मनीचो पराभव जालेउपरांत, हांगा थापणूक जाल्ल्या हिटलराच्या राष्ट्रीय समाजवादी पक्षान आपणाले राजकीय चळवळींक नाझीवादी येवजणेचें मोडण दिलें. सुर्वेक ह्या पक्षांत फकत २८ वांगडी आशिल्ले. तातुंतले हिटलर धरून फकत सात क्रियाशील वांगडी आसले.

हिटलरान ह्या पक्षाचीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतले उपरांत फकत चवदा वर्सांनीच 'नाझीवाद' ही जर्मन जनतेची सगळ्यांत व्हड झुजारी चळवळ निर्माण जाली. १९३२त ह्या पक्षांत सुमार एक कोटी धा लाख जर्मन लोकांचो आस्पाव आशिल्लो. १९३३त जाल्ले वेंचणुकेंत नाझी पक्षाक चड मतां मेळून, हिटलर सत्तेर आयलो. ह्याच तेंपार इटलींत मुसोलीनीच्या फुडारपणाखाला फॅसिस्ट पक्षान सत्ता मेळोवन हांगा फॅसिझमच्या हुकूशाय तत्त्वागिन्यानाचो शेक बसयल्लो. हाका लागून कांय तेप नाझी लोकांकूय फॅसिस्ट अशें म्हण्टाले. फॅसिझम आनी नाझीवाद हांच्यांत थोडें साम्य आशिल्लें, पूण तांची तत्त्वप्रणाली खूब वेगळी आशिल्ली.

पयल्या म्हाझुजाउपरांत जर्मनींत नाझीवादाची वाड जावपाक खूब कारणां आसात. पयलें आनी मुखेल कारण म्हळ्यार झुजाउपरांत जर्मनींत खूब बिकट राजकीय तशीच अर्थीक स्थिती निर्माण जाली. पयल्या म्हाझुजांत जर्मनीचो पराभव जाल्लो. झुजाउपरांत व्हर्सायल्स कबलातीवरवीं दोस्त राष्ट्रांनी जर्मनीचें सैन्य आनी नावीक येरादारी मर्यादीत करून जर्मनीची सगळ्या वटांनी बंदी केल्ली. तशेंच सक्तीचें लस्करी शिक्षणूय बंद केल्लें. पयल्या म्हाझुजांत जाल्ल्या व्हड लुकसाणाक दोस्त राष्ट्रांनी जर्मनीक गुन्यांवकारी थरोवन, साडेपांच अब्ज डॉलरांची खंडणी भरपाक लायली. पूण हारिल्ल्या जर्मनीकडेन ही व्हड रक्कम भरपाची तांक नाशिल्ली. दूसरे वटेन वाडटी म्हारगाय, बेकारी आनी दळिद्र हांकां लागून जर्मन जनता खूब त्राशिल्ली. तांचो समाजवादी लोकशायेचेर विस्वास उरूंक नाशिल्लो. हाका लागून ह्याच तेंपार लोकशायेचो दुस्वास करपी नाझी पक्षाक, चडशा जर्मन लोकांनी तेंको दिलो.

सत्तेर येवंचे पयलीं नाझी पक्षान जर्मन राष्ट्राचें फाटबळ मेळयल्लें. हिटलराचे चडशे वांगडी मध्यम वर्गांतले आशिल्ले. आक्रमक राष्ट्रवादाक लागून वेपाऱ्यांनीय ताका अर्थीक आदार दिल्लो. हाका लागून १९३३त जाल्ले वेंचणुकेंत हिटलराच्या फुडारपणासकयल जर्मनींत नाझी पक्ष सत्तेर आयलो. पयल्या म्हाझुजांत जाल्ली हार आनी दोस्त राष्ट्रांनी केल्लो अपमान हांचो बदलो घेवपाखातीर ह्या पक्षान झुजाक उपेगी पडपी उत्पादनाचेर आदारिल्ली अर्थवेवस्था आपणायल्ली.

हिटलरान आपल्या आत्मचरित्रांत आनी विंगड विंगड प्रसंगांवेळार केल्ल्या भाशणांनी आपणायल्ल्यो येवजणो आनी कल्पना मांडल्यात. नाझीवाद राष्ट्राक खूब म्हत्व दिता. ताच्या मतान राष्ट्राची सगळ्यांत उंचेली सुवात आसून, राष्ट्राची व्हडवीक गावप हें दर एके व्यक्तीचें कर्तव्य. नाझीवादांत मनशाच्या स्वातंत्र्याक जागो ना दर एका मनशान आपलें जिवित राष्ट्राखातीर ओंपून राष्ट्राचें म्हत्व वाडयत रावप हांतुंतूच ताचें व्हडपण आसा. ताणें समाजाक म्हत्व दिल्लें आसून, ताच्या मतान राष्ट्रीय समाज रक्ताच्या बंधनांतल्यान एक जाल्लो आसता. फॅसिस्ट लोकांसारकेच नाझी लेगीत सत्ता आनी सामर्थ्य हांकां व्हड मानतात. तशेंच आपल्या राष्ट्राचो मान राखपाखातीर दर एका नागरिकान झुजाखातीर सदांच तयार रावंचें अशेंय ते मानतात. नाझीवादाचे कार्यावळींतलो म्हत्वाचो भाग म्हळ्यार मनशाची उदारमतवादी संकल्पना. तशेंच मार्क्सवादी संकल्पना ना करप हो आशिल्लो.

नाझीवादाची आनी एक खाशेली गजाल म्हळ्यार वंशाची व्हडविकाय गावप. हिटलर (नाझी पक्ष) 'जर्मन लोक' वा 'जर्मन समाज' ह्या शब्दाचेर चड भर दितालो. नाझी आपल्याक आर्यवंशी समजताले. आनी ह्याच शुद्ध वंशाच्या लोकांक हेर वंशाच्या लोकांचेर राज्य करपाचे सैमीक अधिकार आसात अशें ते मानताले. पूण हिटलर पुराय जर्मन समाजाक एक मानिनाशिल्लो. ज्यू लोकांक तो उणे लेखतालो. पयल्या म्हाझुजांत ज्यू लोकांनी जर्मनीक फटोवन, दोस्त राष्ट्रांक आदार केल्लो. हाका लागून जर्मनीची हार जाल्ली अशें ते मानताले. जर्मनींतलो ज्यू समाज म्हळ्यार धव्याफुल्ल जर्मन समाजाचेर लागिल्लो एक काळो दाग आनी तो दाग फकत नाझी (हिटलर) काडून उडयतले अशें तें मानताले. दुसऱ्या म्हाझुजापयलीं हिटलरान खूब ज्यू लोकांक हालहाल करून मारले.

राज्य म्हळ्यारूच नाझी पक्ष, ही नाझी तत्त्वगिन्यानाची मुखेल विचारसरणी. जर्मनींत सत्ताधारी नाझी पक्ष होच एकमेव पक्ष आसा. अशीं तांचीं धोरणां आशिल्लीं. संसदी शासन पद्दत, तातूंतलें लोकमत, वेंचणूक ह्या सारकिल्या गजालींचेर नाझीचो विस्वास नाशिल्लो. ते जर्मनींत सत्तेचें केंद्रीयीकरण करपाखातीर खूब वावुरले. अशें केल्यार सत्ता सदांच नाझी पक्षाच्या हातांत उरतली असो तांचो समज आशिल्लो. नाझी पक्ष सत्तेर आयले उपरांत ताणीं सगळ्या प्रांतांतली सरकारी सत्ता ना करून, सबंद देशाचेर नाझी पक्षाचो शेक दवरलो. धर्मीक मळारूय नाझींक एकवट जाय आशिल्ली, म्हणून ताणीं देशांतल्यो मुखेल प्रोटॅस्टंट इगर्जो एकठांय हाडून जर्मन इव्हँजेलिकल इगर्ज उबारली.

अर्थीक मळारूय देशाची घसघशीत उदरगत जावंची म्हणून ताणीं अर्थवेवस्थेचेर कडक नियंत्रण दवरिल्लें. कम्युनिस्ट तत्त्वगिन्याचेर आदारिल्ल्यो कामगार संघटना, तशेंच भांडवलदार आनी कारखानदार हांचे संघ ताणीं बंद केल्ले. बायलांविशीं नाझी पक्षाची तत्त्वप्रणाली प्रतिगामी आशिल्ली. घटमूट भुरग्यांक जल्म दिवप हातुंतच बायलांचें सार्थक आसा अशें ते मानताले.

नाझी पक्ष सत्तेर आयले उपरांत ताणीं आपले तत्त्वप्रणालीवरवीं रीतसर कार्यावळी आंखून तांचो फावो तो उपेग केल्लो. देशांतल्यो सगळ्यो कामगार संघटना बंद करून त्या जाग्यार सरकारान मान्यताय दिल्ली लेबर फ्रंट ही संघटना उबारली. मालक वर्गाच्या सगळ्या संघटनांचेरूय बंदी घाल्ली. सगळे विरोधी पक्ष बेकायदेशीर थरोवन खबरांपत्रांचेंय नाझीकरण केलें. शिक्षणाचेरूय ताणीं कडक देखरेख दवरिल्ली. तरणाट्यांच्यो चळवळी बंद करून तांचे सुवातेर 'हिटलर यूथ' ही नवी संघटना उबारली. १९३५ सावन ताणीं लस्करी नोकरी सक्तीची केल्ली.

जर्मनीची सत्ता पुरायपणान हिटलराच्या हातांत गेलेउपरांत ताणें व्हर्सायल्स् कबलातीवरवीं दोस्त राष्ट्रांनी जर्मनीचेर घाल्ल्यो सगळ्यो बंदी आनी नेम न्हयकारले. १९३३त जर्मनी राष्ट्रसंघांतल्यान भायर सरून, उपरांत १ मार्च १९३५ दिसा ताणीं सार देगण परत घेतलें. १४ मार्च १९३८ दिसा हिटलरान ऑस्ट्रियाचेर घुरी घालून तो देश आपल्या शेकातळा हाडलो. १५ मार्च १९३९ दिसा चेकोस्लोव्हाकीया देशाचेर ताणें ताबो मेळयलो. उपरांत १ सप्टेंबर १९३९ दिसा ताणें पोलंडाचेर घुरी घाली. ह्या वेळार दोस्त राष्ट्रांनी जर्मनीआड झूज उबारलें. अशे रितीन दुसरें म्हाझूज सुरू जालें. ह्या झुजांत इटली देशांतल्या फॅसिस्ट सैन्यानूय नाझी जर्मनीक तेंको दिल्लो. पूण दुसऱ्या म्हाझुजांत नाझी जर्मनीची हार जाली आनी हिटलर गोळ घेवन मेलो. अशे रितीन नाझीचें आव्हान हांगाच सोंपलें.

– कों. वि. सं. मं.

**नाट :** डोंबाऱ्यांसारकी खेळ करपी एक भटकी जमात. राजस्थान, गुजरात, पंजाब, मध्य प्रदेश आनी महाराष्ट्रांत ह्या लोकांची चड वसती आसा. प्रदेशाप्रमाण ह्या लोकांक विंगड विंगड नांवांनी वळखतात. महाराष्ट्र आनी मध्य प्रदेशांत तांकां नाट, बादी, डांग - छारा, कर्नाटी, बाझीगर, संपेरा ह्या नांवांनी वळखतात. संस्कृत भाशेंत नाट हाचो नट नर्तक असो अर्थ आसा. तशेंच हेडपी आनी शारिरीक कसरतीचे खेळ करून दाखोवपी, चडकरून दोन खांब्यांक दोरी बांदून तिचेर शारिरीक कसरतीचें काम करपी, सोरपाक शिकोवन ताचेकडल्यान खेळ करून घेवपी लोकांक हो शब्द वापरतात.

नाट ही जात पुर्विल्ल्या काळासावन अस्तित्वांत आसा. व्रात्य क्षत्रियांसावन सवर्ण क्षत्रीय बायलेपसून जाल्ले संततीक नाट म्हण्टात अशें मनून सांगलां. झल्ल - मल्ल, निच्छिवी, करण, खस आनी द्रवीड हींय नांवां मनून हे जातीक दिल्यांत. अत्रीन, अत्यंज लोकांभितर नाट हे जातीचो आस्पाव केला.

महाराष्ट्रांतले नाट हिंदू जाल्यार, पंजाबांतले बाझीगर ही भटकी जमात. नाट बायलांक, तांच्या कबुतरासारक्या नाचाक लागून कबुतरी म्हण्टात. क्रूक हाणें उत्तर भारतांतल्या नाटांचे धा फांटे सांगल्यात. १) ब्रिजवासी २) गुआल ३) जोगिला ४) कबुतरी ५) कलबाझ ६) कर्नाटी ७) महावत ८) मिरदाह ९) राठोड १०) संपेरा.

नाटांच्यो ३८६ हिंदू जमाती आनी २०५ मुसलमान जमाती आसात.

राजस्थानांतली नाट जात हेडगी आसून वर्सांतल्यान आठ म्हयने ते भोंवत आसतात. दोरयेवयलो नाच करपाक तशेंच कसरतीचे खेळ करपाकूय ते तरबेज आसतात. तांच्यो बायलोय हे खेळ व्हड कुशळटायेन करतात. ह्या नटांचे राजनाट, दक्षीण नाट आनी नाट अशे तीन प्रकार आसात.

कर्नाटी हे कर्नाटकांतले नाट. शारिरीक श्रमान पोट भरपी हो एक वेवसायीक समूह. ग्वाल्हेरी नाट हो फांटो अयोध्येंत आसून तिचे कापुरी, भातू आनी सखानी अशे तीन स्वतंत्र भेद आसात. भातू ही संसी वा संसिया हो भारतीय जिप्सी जातीचो एक फांटो.

पंजाबी नाटांभितर एक राजा आनी राणी आसता. तांचो सगळ्या जातींचेर अधिकार चलता. हे लोक व्हड शारांच्या लागसार तात्पुरत्यो तणाच्यो खोंपी उबारून रावतात. हे लोक तणाच्यो वस्तू तयार करून विकतात. ह्या लोकांमदीं दोन वर्ग आसात. एका वर्गांतले फकत दादलेच हो वेवसाय करतात आनी दुसऱ्या वर्गांतल्यो बायलोय हातूंत वांटो घेतात. तांकां कबुतरी अशें म्हण्टात. त्यो आंग पाडपाचेंय काम करतात.

बंगालांतल्या नाटांचे, करवाल आनी व्रात्य क्षत्रीय अशे दोन भेद आसतात. सोरपाचे खेळ करपी नाट लोकांक गारुडी, मदारी, नागनाथी अशीं प्रदेशाप्रमाण नांवां आसात. सानवत म्हणून जे नाट आसात, ते मुसलमान आसून आल्हा आनी उदालचो पोवाडो गायत भोंवतात.

मिर्झापूरांत बजनिया, बाघ्या, कर्नाटक, काश्मीरी कलबाझ, महावत, आघी आनी मलार हे नाटांचे फांटे आसात. बंगालांतले नाट हे मूळचे ब्राह्मणी परंपरेंतले कथक आशिल्ले. ही संतती मालाकार दादलो आनी शुद्र बायलेपसून जाल्ली अशें ते मानतात. उत्तर भारतांतले कथक यज्ञोपवीत घालतात आनी शुद्रांक आशिर्वाद दितात, पूण बंगालचे नाट तशें करिनात. कारण थंय येत सावन नीचवर्णीय बायलांकडेन लग्न जाल्ल्यान वा तांचेकडेन संबंद दवरिल्ल्यान कथकांप्रमाण तांचें ब्राह्मण्य तिगोवन उरलेंना.

हिंदू नाट देवी, हनुमान आनी शिखांचो गुरू तेग बहादूर हांकां भजतात. तशेंच उत्तर हिंदुस्थानांतल्यो देवता हुलकी - माओी, विंध्यवासिनी, दुर्गा, काली आनी परमेश्वर ह्याय देवांक भजतात.

नाटांचो कोणूच पुरयत वा गुरू नासता. ते आपले आपुणूच आपले सगळे संस्कार करतात. लग्नाच्या वेळार ते जमनीर दोन कोंडे उबारतात आनी तांकां तोरण बांदतात. न्हवऱ्या-व्हंकलेन त्या कोंड्यांचे भोंवतणीं प्रदक्षिणा घालपाची आसता. विधवा परत लग्न जाल्यार तिच्या न्हवऱ्यान पयलींच्या न्हवऱ्याच्या सोयऱ्यांक कांय दुडू दिवचे पडटात. देरान विधवा भावजयेकडेन लग्न करपाची चाल आसा. गुजराती नाट राजस्थानी नाटांकडेन लग्न संबंद दवरिनात.

नाट लोक पायजमो घालतात वा कास मारून पुडवें न्हेसतात. गळ्यांत कवड्यांच्यो माळो घालतात. तांच्यो बायलो पितुळच्यो वस्ती घालतात.

भुरगीं पिरायेंत येतकच तांचीं लग्नां करतात. व्हंकलेखातीर तांकां धा - पंदरा रुपया देज दिवंचें पडटा. लग्नासुवाळो सामको सादो आसता. मुसलमान नाटांच्यो धुवो आपलें पयलें भुरगें आपले आवयक दितात. आवयचो तो हक्क मानतात. तो हक्क सोडपाचो आसल्यार तिका पयशे दिवंचे पडटात.

नाट लोक चाळीस दीस सुयेर पाळटात. उपरांत सुर्याची पूजा करतात.

हे लोक मडीं लासतात वा बशिल्ले अवस्थेंत पुरतात. तशेंच, श्राद्धूय करतात.

महावत हे मुसलमान नाट आसून ते गोरवांचो वेपार करतात. बाझीगर

हे जादवाचे प्रयोग करतात. ब्रिजवासींत दादले कुस्त्यो खेळटात आनी बायलो दोरयेवयली कसरत आनी नाच करतात. भातू नाटांच्यो बायलो, पोटांत दुखता तेन्ना पोटाक डबो लावप, दांत काडप, भविश्य वा शकून सांगप हीं कामां करतात. दक्षिणी नाटांची कसरतीची कुशळटाय बेताचीच आशिल्ल्यान भीक मागप होच तांचो मुखेल वेवसाय आसता. तांचें एकूच कुटूंब भोंवत आसल्यार ताका 'डेरा' आनी दोन-तीन कुटुंबां एकठांय भोंवत आसल्यार तांकां 'टोला' अशें म्हण्टात.

– कों. वि. सं. मं.

**नाटक :** एक दृकश्राव्य कलाप्रकार, तसोच वाङ्मयीन साहित्यप्रकार. नाटकांतलें नेपथ्य, न्हेसपा येवजण, उजवाडा येवजण, कलाकाराचो अभिनय, हावभाव हीं नाटकाचीं दृश्य आंगां जाल्यार संवाद, संगीत, ध्वनी येवजण हीं श्राव्य आंगां. नर्त म्हळ्यार नाचपी, अभिनय करपी ह्या उतराचो अपभ्रंश नट ह्या उतरावयल्यान नाटक हो शब्द अस्तित्वांत आयला अशें जाणकारांचें मत आसा. ह्या उतरावयल्यान नाटक म्हळ्यार नटाची अनुकरणात्मक दृकश्राव्य अशी अभिव्यक्ती प्रतीत जाता. संवसाराच्या भावभावनांचें अनुकरणात्मक प्रकटीकरण म्हळ्यार नाट्य असो भरतमुनी आनी कालीदास धरून आदल्या आचार्यांचो अभिप्राय आसलो. अशे तरेन नाटक म्हळ्यार मनशासंबंदीं क्रियाप्रतीक्रियांचें दर्शन घडोवपी आकृतीबंध आसा. भरतमुनीन नाटकाक पंचमवेद म्हळां. ऋग्वेदांतल्यान पाठ्य, यजुर्वेदांतल्यान अभिनय, सामवेदांतल्यान गीत आनी अथर्ववेदांतल्यान विविध रस अशे अंश घेवन ब्रह्मदेवान नाट्यवेद निर्माण केलो अशी कथा भरतमुनीच्या नाट्यशास्त्रांत आसा हे उत्पत्तीप्रमाण संवाद, अभिनय, संगीत आनी रस हे नाटकाचे चार घटक जातात. अशेतरेन भरतमुनीच्या मताप्रमाण नाटकाचें प्रयोजन हें लोकांच्या भावभावनांचें अनुकीर्तन आनी भावानुकीर्तन.

नाटकाचो उगम धर्मीक संदर्भांत जाला अशें बऱ्याच विद्वानांचें मत आसलें आनी तें खुबशा प्रमाणांत वास्तवाक धरून आसलें तरी फकत धर्मीक कृत्य असो शिमीत संदर्भ नाटकाक लावन उपकारचो ना. लोकजिविताची सभावीक प्रवृत्ती आनी अभिव्यक्ती हो मानवाचो स्वभावीक गूण हांतुतूय नाटकाच्या निर्मितीचीं बिजां मेळटात. धर्मीक आंग आनी स्वभावीक प्रवृत्ती ह्या दोनय घटकांचो नाटकाच्या उगमाकडेन संबंद येता. अशें आसलें तरी नाटकाच्या उगमाकडेन उत्सवाचें आंग आसल्या कारणान नाटकाची सुवात ही पूर्वपरंपरेन देवस्थानांनी जावन रावल्या.

ग्रीसी, रोमी, भारती धरून आद्य नाटकाचें स्वरूप हें चडशें लोकनाट्यात्मक पद्यगद्यात्मक आनी सांप्रदायीक अशें उरलां. काल्पनीक जगाचें दर्शन आनी अतीमानवी शक्तीचें सामर्थ्य असो प्राचीन आनी मध्ययुगीन नाटकाचो गाभो उरलो. भारतीय नाटकाच्या उगमाचो संबंद वैदिक वाङ्मयाकडेन लावप जाता. वाल्मिकी रामायणांत आनी महाभारतांत नाटकाचो उल्लेख आसा आनी ताचो अर्थ पुराणीक आनी इतिहासीक उपाख्यान असो मेळटा. वेदोत्तर काळांत रामायण महाभारतांतलीं आख्यानां सविनय गावन नृत्य, गीत, नाट्य सादर करपाची परंपरा यक्षगानाच्या प्रसंगांत दिसता.

**कांय संस्कृत प्राचीन नाटककार :** भरतमुनी हो भारतीय नाट्यशास्त्राचो प्रणेतो. ताणें नाट्यशास्त्रावयलो प्रमाण असो ग्रंथ बरयलो. ताच्या बरपांत ताचे पयलींच्या 'अमृतमंथन' आनी 'त्रिपुरदाह' ह्या दोन नाटकांचे उल्लेख मेळटात. पाणिनीन 'नटसूत्र' ह्या नाट्यशास्त्रावयल्या ग्रंथाचो उल्लेख केला. पतंजलीन 'कंसवध' ह्या नाटकाचो उल्लेख केला. 'स्वप्नवासवदत्त' आनी प्रतिज्ञयौगंधरायण, चारुदत्त, अविमारक, अभिषेक, प्रतिमा, पंचरात्र, दूतवाक्य, दूतघटोत्कच, उरूभंग, कर्णभार हीं भासाचीं नाटकां सत्व, रज आनी तम ह्या गुणांचें अर्थपूर्ण प्रकटीकरण रंगयतात. महाकवी कालीदासान 'मालविकाग्निमित्र, विक्रमोर्वशीय आनी अभिज्ञान शाकुंतल' अशीं प्रभावी नाट्यबंध आनी काव्यात्मक आविश्कार शैली आशिल्लीं नाटकां बरयलीं. मृच्छकटिक ((शूद्रक), उत्तररामचरित (भवभूती), प्रियदर्शिका, रत्नावली, नागानंद (हर्ष), मुद्राराक्षस (विशाखादत्त); वेणिसंहार (भट्टनारायण), कर्णसुंदरी (बिल्हण), बालरामायण, बालभारत विद्यशालभंजिका, कर्पुरमंजरी (राजशेखर); प्रबोध - चंद्रोदय (कृष्णमिश्र).

**प्राचीन ग्रीक आनी रोमन नाटककार :** धर्मीक उत्सवाच्या निमतान निर्माण जाल्ल्या ग्रीसी नाटकांनी आपल्या तालार संवसाराक नाचोवपी नियती आनी तिचेवरवीं जावपी शोकांतिका हांकां बरेंच म्हत्व दिल्लें दिश्टी पडटा. शोकांतिके वांगडाच सुखात्मिका विडंबन नाट्य हेय नाटकाचे प्रकार उण्या प्रमाणांत अस्तित्वांत आसले. एस्किलस (पेर्से, प्रोमेथेऊस बाउंड); सॉफोक्लीझ ( ईडिपस टिरॅनस, ॲंटिगॉन); युरिपिडीझ (ट्रोजन विमेन, हिपोलिटस, मीडीअ); ॲरिस्टोफेनीस (ध नायट्स, ध क्लाउड्स); हे कांय मुखेल ग्रीसी नाटककार. गुलाम ॲंड्रोनिकस, प्लॉटस, टॅरॅन्स, सेनिका हे आदल्या काळांतले कांय मुखेल रोमी नाटकाकर.

**कांय अस्तंती नाटककार :** आरिऑस्तो (ला काझारिओ १५०८), तास्सो ( अमिन्ता - १५७३, इटली, शेक्सपीअर (१५६४-१६१६) ऑल इझ वॅल दॅट ॲंड्स वॅल, ॲज यू लायक ईट, मिडसमर नायटस् ड्रिम, टेवल्थ नायट, मच ॲडू अबाऊट, नथिंग ह्यो सगळ्यो सुखात्मिका - हॅम्लेट, मॅक्बेथ, कींग लीअर आनी ऑथेल्लो ह्यो संवसारीक नामनेच्यो शोकांतिका, मोलियेर ('लव इझ ध बॅस्ट डॉक्टर', 'द कंपल्सरी मॅरेज', मॅग्निफिसंट लवर्स); डॅव्हेनंट (ध सीज ऑफ रोड्स १६५६), ऑस्कर वायल्ड (लेडी विंडरमिअर्स फॅन १८९२), 'अ वुमन ऑफ नो इंपोर्टन्स' (१८९३), आयडियल हसबंड (१८९५) हांचेच वांगडा कॉर्नेय, रासीन, जॉन ड्रायडन, काँग्रीव्ह, गोल्डस्मिथ, शेरिडन जॉन्स, पिनीअरो, ह्या नाटककारांनी नाटकांची निर्मिती केली.

**आधुनीक नाटक :** नाटक हें मनशाच्या अंतबार्ह्य क्रियाप्रतिक्रियांच्या झगड्यांचें आनी परिस्थितीकडेन केल्ले तडजोडीचें दर्शन ही एक नाटकाविशींची आधुनिक कल्पना. प्राचीन नाटककारांच्या मताप्रमाण समाजशिक्षण हें नाट्यकलेचें प्रयोजन आसलें. संवसारांत सुखदुख्खाची भरसण आसली तरी जगाची नदर चैतन्यमय आनी सूखकारक अशा जीवनतत्त्वांचेर आदारिल्ली आसा हो सिद्धान्त नाटककारान बाळगुपाची गरज आसा. नाटक पळेतकच जीवनांतल्या मुल्यांसंबंदींचो भावार्थ वाडचो आनी नाट्यकृतीचो आस्वाद घेतल्या उपरांत सत्यम् शिवम् सुंदरम् चो साक्षात्कार जावंचो हाची जतनाय नाटककारान दवरची हो प्राचीन नाटककारांखातीर फकत संकेत न्हय, जाल्यार सिद्धांत आसलो. मनोरंजन अप्रिय आसलें तरी नागडें वास्तव सादर करप हो आधुनीक नाटकांचो विचार आसा.

**कांय मुखेल आधुनीक नाटककार :** इब्सेन (ब्रांद १८६६); घोस्ट्स ए डॉल्स हाऊस, व्हॅन व्ही डॅड अव्हेकन (१८९९), जॉर्ज बर्नाड शॉ

(विडोअर्स हाउसीस १८९२, द फिलँडरर १८९३, मिसेस वॉरेन्स प्रॉफेशन १८९३, आर्म्स अ‍ॅण्ड द मॅन, बॅक टू मेथ्यूसिला, द अ‍ॅपल कार्ट सेन्ट जॉन ऑफ आर्क), चेकोव्ह (द चेरी ऑर्चर्ड); ऑगस्ट स्ट्रिंडबर्ग (द फादर १८८७), मीस ज्युली १८८८), सिंग (प्लेबॉय ऑफ द वॅस्टर्न वर्ल्ड १९०७, टी. एस. एलियट (मर्डर इन द कॅथॅड्रल १९३५) सीन ओकेसी ( द सील्वर टेसी), पिरांदेल्लो (सिक्स कॅरॅक्टर्स ईन सर्च ऑफ ॲन ऑथर); युजीन ओनिल (दी अ‍ॅम्परर जोन्स) टेनेसी विलियम्स (स्ट्रीट कार नेम्ड डिझायर, द रोझ टॅट्टू, सड्नली लास्ट समर); ब्रेक्ट (थ्री पॅनी ऑपॅरा, ऑकेशियन चॉक सर्कल) बॅकॅट (वेटिंग फॉर गोदो), जॉन ऑस्बर्न (लूक बॅक ईन अ‍ॅन्गर); आल्बेर काम्यू (कालिगुला); सार्त्र (ले मूचीसा १९४३, द फ्लायस १९४६, तीन कॅमेरा १९४६ रिस्पॅक्टफूल प्रॉस्टिट्यूट १९४९).

**नाट्यप्रकार :** सदळपणान नाटकाचे दोन प्रकार करूं येतात. १) संगीत नाटक २) गद्य नाटक. प्राचीन नाटकां हीं पूर्णकाळ पद्यमय आसतालीं. त्या वेळावयलें चडशें बरोवप पद्यमयूच आसतालें. संस्कृत नाटकाचो आरंभ नांदी ह्या गितान जातालो आनी भरतवाक्यान नाटकाची समाप्ती जाताली. नांदी आनी भरतवाक्य आजय भारतीय अभिजात नाटकाचें संगीत आंग जावन रावलां. हाचेभायर प्रसंगानुरूप पदां (नाट्यगितां) संवादा वागडांच म्हणपाची पद्दत भारतीय रंगभुमीचेर रुजली आनी नाट्यसंगीत हें नाटकाचें एक म्हत्वाचें आंग जावन बसलें. आयज पुराणीक, इतिहासीक नाटकां तातूंतल्या पदांविरयत अपूर्ण जातात. इटलियी संगितिका (ऑपॅरा) हो एक संगीत नाटकाचो आगळो वेगळो असो प्रकार. हे संगितिकेंत नाटकांतल्या पात्रांच्या तोंडांतल्या गितांनीच नाटकाचें कथानक मुखार सरता. जोव्हान्नी पॅरगोलेसी हांची लासर्व पेड्रॉना (१७३३), हॅन्री परसॅल, डिडो अ‍ॅण्ड इनियस (१६८९) जॉन गॅ (बॅगर्स ऑपॅरा १७२८) ह्यो कांय इटालियी संगितिका. १९व्या शतमानांत अण्णासाहेब किर्लोस्कर हाणें 'सौभद्र' नाटका सावन मराठी संगितिकासदृश्य नाटक प्रकार सुरू केलो. फुडें देवल (शारदा), खाडिलकर (मानापमान) आनी हेरांनी ही संगीत नाटकाची परंपरा फुडें व्हेली. भोवतेक सगळ्याच लोकनाट्यांनी संगीत हें मुखेल आंग आसता.

**लोकनाट्य :** लोकनाट्य ही नागरी नाट्यअवस्थेपयलींची अवस्था. उण्यांत उणी रंगमंचसामुग्री, लोककथेचेर आदारिल्लें नाट्यकथानक, उत्स्फूर्त संवाद, लोकप्रिय लोकसंगीत, सारकिले गांवगिरे जिणेकडेन निगडीत अशे हेर घटक आशिल्लो हो नाट्यप्रकार आजुनूय गांवगिऱ्या वाठारांत लोकप्रिय आसा. तमाशा, भारूड (महाराष्ट्र), यक्षगान (कर्नाटक), भवाई (गुजरात), जात्रा (बंगाल, बिहार, ओरिसा), दशवतारी नाटक (कोंकण), तियात्र, खेळतियात्र (गोंय).

**मूकनाट्य :** फकत कुडीच्यो हालचाली, हावभाव, हांचेवरवीं तोंडांतल्यान उतर काडिनासताना केल्लो नाट्य आविश्कार. गरज पडटा तेन्ना मूकनाट्याक वाद्यसंगीत वा नाचाची साथ दिवप जाता. रोमन सम्राट ऑगस्टन (इ. स. आदीं पयलें शतमान) हाच्या प्रोत्साहनान रोमी मुकनाट्याचो पयलो प्रयोग जालो. संवसारांतल्या भोवतेक सगळ्याच रंगभुयांचेर मूकनाट्याचे प्रयोग जाल्यात. भरतनाट्यम् सारकिल्ल्या नृत्यनाट्यान अस्तंती राश्ट्रांनी नामना जोडल्या. बॅले हो नृत्यनाट्य प्रकार मूकनाट्या सकयल आस्पावता.

**पथनाट्य :** पारंपरीक आकृतीबंधाभायलें रस्त्यार सादर जावपी नाटक. पथनाट्य हो प्रकार उक्ती माची (Open theatre) हाचेफुडली अवस्था आसली तरी दोगांच्याय प्रयोजनांमदीं अंतर आसा. पथनाट्य हो नाट्यप्रकार मुखेलपणान प्रचार कार्याच्या उद्देशान मुखार आयला. राजकीय, समाजीक, धर्मीक, शिक्षणीक संदर्भ आशिल्ले विशय, नाटका सारकिल्ल्या प्रभावी माध्यमांतल्यान सामान्य लोकांमेरेन पावोवपाच्या उद्देशान पथनाट्याचें आयोजन जाता. अशा प्रचारक विशयाच्या आकर्शणान, प्रेक्षक आपूण जावन थेटराकडेन वचपाचो संभव उणो आशिल्ल्यान, नाटकाच्या रुपांत हे विशय घेवन लोकांमेरेन वचप ह्या विचारांतल्यान रस्तानाट्याची कल्पना फुडें आयली. ह्या नाट्य प्रकारांत जशी परंपारीक थाराविक रंगमाची नासता तशी उजवाडा येवजण, आवाजा येवजण, नेपथ्य आनी हेर नाट्यशास्त्राचे संकेत नासतात. लोकांचें चित्त ओडून घेवपाचें साधन म्हूण वाद्य संगिताची ताका साथ आसता.

**नभोनाट्य :** फकत संवाद, पार्श्वसंगीत, आवाजा येवजण हांच्या माध्यमांतल्यान रेडिओ खातीर सादर जाल्लो नाट्य प्रकार. ह्या नाट्यप्रकारांत नाटकाचें दृश्य आंग श्राव्य आंगाच्या आदारानूच सादर करचें पडटा. नभोनाट्यावरीच दूरचित्रवाणी नाटक हो आनीक एक नाट्यप्रकार. हातूंत दृक आनी श्राव्य हीं नाटकाचीं दोनय आंगां आसतात आनी हातूंत श्राव्य आंगापरस दृश्य आंगाचेर चड भर दिवप जाता. ह्या नाट्य प्रकारांत दृश्य आंगाचेर भर आशिल्ल्यान रंगमाचयेवयल्या नाटकांक नेपथ्या सारकिली सामुग्री लागता आनी अशे सामुग्रेंत जाय तसो बदल करपाची चड मेकळीक मेळटा.

**एकपात्री (नाट्यछटा) :** ह्या नाट्यप्रकारांत कलाकाराचो नाट्यआविश्कार सादर जाता. कलाकार एकूच आसलो तरी तो नाटकांत उल्लेख जाल्ल्या हेर पात्रांचोय, त्या-त्या पात्राचे गरजेनुसार दृक-श्राव्य अभिनय करता. अशें करतना त्या-त्या पात्राचो सभाव, उलोवपाची पद्दत, हालचाली आनी हेर भाव पात्राप्रमाण बदलून सादर करता. सुर्वेक नाट्यछटा ह्या ल्हानशा प्रसंगाचेर आदारीत लघुनाट्य प्रकारान सुरवात जाल्लो एकपात्री प्रयोग उपरांत प्रचलीत अशीं व्हड नाटकां सादर करपाकडेन पावलो. नाट्यछटा जितल्यो लोकप्रिय जावंक पावल्यो तितले व्हड नाटकाचे एकपात्री प्रयोग लोकप्रिय जावंक पावलेनात.

**एकांकी :** एकांकी म्हळ्यार एक अंकी नाटक. नाट्यछटा आनी नाटक हांचेमदलो हो प्रकार. मेजक्याच एक दोन प्रसंगांचेर भर दिवन आनी मेजकींच व्यक्तीचित्रां घेवन थोड्या वेळाभितर परिणाम सादोवंक केल्लो नाट्यप्रयोग. साहित्यांत कथेचो आनी कादंबरेचो जो एकामेकांकडेन संबंद आसा तसोच एकांकी आनी नाटकांमदींय आसा.

वयर दिल्ल्या प्रकारांभायर अतीनाट्य (Melodrama), प्रहसन (Farce), अद्भूत नाटक (Miracle play), सदाचार नाटक (Morality Play) विरश्रीप्रधान (Heroic), आचार विनोदिनी (Comedy Of Manners), महाकाव्य सदृश्य (Epic theatre), निरर्थ नाट्य (Theatre of absurd), क्रोरीय नाट्य (Theatre Of cruelty), निषेध नाट्य (Play of social protest), सुखात्मिका (Comedy) दुखात्मिका (Tragedy) प्रतीरंगभूमी (Anti theatre), बालनाट्य (Children theatre) अशे नाटकाच्या विविध आंगांचे विविधतायेनुसार नाट्यप्रकार आसात. नाट्य अविश्कार हो कलाकाराच्या अभिव्यक्तींतल्यान माचयेर प्रगट जाता आसलो तरी नाटककाराच्या (नाट्यलेखकाच्या) लिखाणाचो (संहिता) वांटो उणो आसना. एक

साहित्यप्रकार म्हणून नाट्यसंहिता वाचतना वाचक साहित्य आस्वाद घेवंक पावता. फरक इतलोच उरता तो म्हळ्यार संहिता प्रयोगरुपांत मुखार येता तेन्ना तिच्या दृश्य आनी श्राव्य आंगांखातीर, तिचो अणभव निव्वळ वाचनाच्या अणभवापरस प्रभावी आसता.

अशे तरेन नाटक हे कलेफाटल्यान नाटककार दिग्दर्शक, नट-नटी, संबंदीत तंत्रज्ञ आनीक प्रेक्षक हांच्या परस्पर संबंदांतल्यान आनी सहभागांतल्यान नाटक घडटा. देखून तो एक सामुहीक आविश्कार. हातुंतलो दर एक घटक परस्पराचेर आदारीत आसलो तरी तो स्वतंत्रपणान नाट्यप्रयोगाच्या येसाखातीर आपलें अशें योगदान करता.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : बालरंगभूमी, एकांकी, कोंकणी साहित्य (नाटक) नभोनाट्य, बॅले.

**नाटेकर, बाळकृष्ण नारायण :** नाट्य संगिताक नवें मोडण दिवपी एक नामनेचो नाट्यसंगीतकार. ताका बाळकोबा ह्या नांवान वळखतातले. मुळांतूच तो बुदवंत. जायत्या जाणांचें गायन आयकून नाट्य संगीतावांगडाच लावणी आनी ठुमरी गायनाची कला ताणें आत्मसात केल्ली. ताचो आवाज गोड आशिल्लो. ताका सतारीचेंय बरें गिन्यान आशिल्लें. 'शाकुन्तल' नाटकांतल्या कण्वाच्या आनी सौभद्रांतल्या नारद आनी कृष्ण ह्या भुमिकांखातीर ताका भरपूर येस मेळ्ळें.

नाट्यसंगिताक आकार आनी प्रतिश्ठा मेळोवन दिवपाच्या वावरांत बाळकृष्णाचो व्हड वांटो आसा. त्या काळांत पदांक चाली दिवपी तो एकलोच आशिल्लो. आयकुप्यांची आवड लक्षांत दवरून तो पदांक चाली लायतालो.

फुडें आवाजांत दोश निर्माण जाल्ल्यान तो निवृत्त जालो आनी संगिताचें तशेंच सतारीचें शिक्षण दिवंक लागलो. फुडें १९१० वर्सा पुण्याक ताका मरण आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

**नाट्यछटा :** (पळेयात नाटक.)

**नाट्यसंगीत :** शास्त्रीय सुगम संगिताचो एक प्रकार. आदीकाळापसून नाट्याविश्कारांत गद्य संवादा वांगडा काव्यात्मक पद्य रचनांचो आस्पाव जाल्लो दिश्टी पडटा. ही पद्यमय रचना (नाट्यगितां) आनी तीं सादर करपाक वापरिल्लीं वाद्यां, साथ आनी गायक हांची तिगांची एका संगीत सुत्रांत बांदपी संगीत दिग्दर्शक अशा चार घटकांचो आविश्कार नाट्यसंगितांत घडटा.

रागदारी संगीत, लावणी, किर्तन, अभंग, टप्पा, ठुमरी, लोकगितां कर्नाटकी संगीत अशा प्रचलीत संगिताच्या प्रकाराचो आदार घेवन वृत्तछंदात्मक नाट्यगितां, तबलें, पांयपेटी, सारंगी, वायोलीन सारकिल्ल्या वाद्यसंगिताचेर नाट्यसंगीत नाटकांत सादर करतात.

नाटकांतलें नाट्यसंगीत हो नाटकाच्या कथानकाचो आनी नाटकाच्या एकंदर आविश्काराचो एक एक भाग आसलो तरी नाटकांत नाट्यसंगिताचो आस्पाव अमूक एका उद्देशान जाला अशें म्हणप शक्य ना. सुर्वेच्या काळांतलो कला आविश्कार चडसो तीन पदरी आसतालो. तातूंत नाच, गावप आनी नाट्य ह्या तीन आविश्कारांचो आस्पाव आसतालो. हे परंपरेंतल्यान नाट्य आविश्कारांत संगिताचो आस्पाव जाला आसूं येता. नाटक हें अनेक रस निष्पन्न करपी कला माध्यम जाल्ल्या कारणान सगळ्या रसांमदीं सुमेळ सादपाकडेन लक्ष दिवप जायत आयलां. हाका लागून राग, दुख्ख, सारकिल्या गंभीर रसांचो ताण ल्हव करपाखातीर भोवतेक नाटकांनी विनोदाचो रसूय हेतू पुरस्सर आस्पावल्लो मेळटा. गंभीर प्रकृतीचे शोकांतिकेंत लेगीत प्रेक्षकाच्या मनावयलो ताण ल्हव करपाक गंभीर प्रसंगा उपरांत हलको फुलकोसो विनोदी प्रसंग घालपाची चाल भोवतेक नाटकांनी दिसता. ह्याच तत्त्वान गद्य संबंदाचो उतारो म्हणून पद्यमय संवादाचो (संगिताचो) वापर जाला आसूं येता. स्वतंत्र संगीत आविश्कार म्हणून नाट्य संगीत हें नाटकांचें आंग आसप अशें संभवनीय दिसना.

१६९० सावन सादर केल्लीं तंजावरचीं संगीत नाटकां आनी १८१८ उपरांत सादर केल्लीं गोंयचीं संगीत नाटकां हीं संगीत नाटकाच्या उपलब्ध आशिल्ल्या इतिहासाची सुरवात म्हणूं येता. हाचे पयलींच्याय संगीत नाटकांचें अस्तित्व न्हयकारूंक मेळचेंना, तरी ते संबंदीं अधिकृत अशी म्हायती उपलब्ध ना. मराठी नाट्य संगिताच्या इतिहासांत लेगीत १८४३ वर्साच्या 'सीता स्वयंवर' ह्या आख्यानवजा संगीत पुराणीक नाटकापसून मराठी संगीत नाटकाची सुरवात मानतात. हाचें कारण म्हळ्यार १८४३ वर्सा उपरांत मराठी नाट्य संगिताक एक सलग परंपरा मेळ्ळी.

नाट्य संगितातलें संगीत हें नाटकापसून चड पयस वचूंक फावोना. तशेंच हें संगीत नाटकाक मारकूय जावंक फावोना. नाट्य संगिताचो नाट्याचेर तसो नाटकाचो संगिताचेर विघातक प्रभाव पडनासतना वा हांचें दोगांचें कोरें मिश्रण जायना आसतना दोगांयचो संयोग जावन तीं दोगांय एकजिवी जावप हें दोगांयचे भलायकेचे नदरेन गरजेचें अशें जरी आसलें तरी नाट्य आनी संगीत हीं दोगांय एकामेकांक समांतर आशिल्लीं तमाशा, तियात्र सारक्या लोकनाट्य आविश्कारांनी आनी ब्रेस्त सारक्याच्या संगितिकांनी दिसता.

तियात्र ह्या कोंकणी नाट्यप्रकारांत नाट्यसंगीत (कांतारांचें गायन) दोन प्रवेशांनी जाता. तें नाटकाच्या मुखेल कथानकापसून इतलें पयस आसता, तियात्राचें कथानक आनी नाट्यसंगीत (कांतारां) अशे स्वतंत्र दोन आविश्कार घडटात. विशेश म्हळ्यार कोंकणी तियात्रांच्या प्रेक्षकांक अशा स्वतंत्र नाट्यसंगीत आविश्काराचें चड आकर्शण आसा.

नाटकांतलें नाट्य संगीत हो रंगमंचाचेर जावपी स्वतंत्र संगीत प्रकार. ही कल्पना नाट्य रसिकांक आनी नाट्य समिक्षकांक व्हडलीशी मानवना. तरी नाटकाभायर नाट्यसंगिताच्यो स्वतंत्र मैफिली जातात आनी ताका बरो प्रतीसादूय मेळटा.

रेडिओ सारकिल्या माध्यमांनीय स्वतंत्र नाट्यसंगिताच्यो कार्यावळी सादर करप जातात. संगीत नाटकाची परंपरा आनी नाट्य संगिताची परंपरा एकावांगडा चालिल्ली दिसता. गद्य नाटकाच्या ल्हारार बसून आयिल्ली प्रेक्षकांची नाट्य अभिरुची नाट्य संगिताकडेन दुर्लक्ष करता आसली तरी नाटकाभायल्या स्वतंत्र नाट्यसंगिताच्या आविश्काराकडेन गद्य नाटकाच्या सगळ्याच प्रेक्षकांनी दुर्लक्ष केल्लें दिसना. तशेंच थरावीक काळांत गद्य नाटकाच्या युगांत लेगीत संगीत नाटकाची ओड दवरपी प्रेक्षकांचोय आंकडो सामकोच उणो ना. नवे पिळगेची नाट्य संगिताची ओड उणी जाल्ली दिसता आसली तरी ती निव्वळ नाट्य संगीत म्हणून

न्हय जाल्यार अस्तंती संगिताच्या आकर्शणांतल्यान एकंदर भारतीय संगितापसून पयस वचपांतल्यान तें घडलां अशें म्हणूं येता.

– कों. वि. सं. मं.

**नाडी :** शीर उडप. रगताचे शिरेचें ( Artery) आकुंचन-प्रसरण. काळजांतल्यान, कुडीक रगताची पुरवण जातना हो रगताचो प्रवाह शीरेंतल्यान चलता. रगताच्या ह्या प्रवाहाक आस्पावन घेवन रगताचो लोट फुडें धुकलपाक सोपें जावचें म्हणून रगताची शीर आकुंचीत प्रसारीत जाता आनी रगत ल्हारांभशेन फुडें वता. शिरेंत आसपी स्नायू-तंतू आनी शिरेच्या आंगाच्या लवचीकपणाक लागून हें आकुंचन-प्रसरण सोपें जाता. शीर उडपाच्या प्रमाणावयल्यान म्हळ्यारूच आकुंचन-प्रसरण हांचे मदल्या काळावयल्यान काळजाचे धडधडीचें (आकुंचन-प्रसरण) निदान करूं येता.

सर्वसादारणपणान निरोगी मनशाचे नाडयेचे ठोके दर मिनटाक ७२ ते ८० आसतात. भुरगीं आनी बायलांचे बाबतींत ते चड आसूं येतात. शारिरीक हालचाल, उपास, भंय, पिडा-सारकिले घटक नाडयेचे गतींत बदल घडयतात. जंय जंय रगताची शीर काती पोंदा आनी चड करून तिचे पोंदा हाडासारको घट भाग आसता थंय थंय नाडी पळोवप जाता. शिरेची नाडी प्रभावीतपणान जाणवता. देखून अशे सुवातीचेर नाडी पळोवप जाता. सर्वसादारणपणान आंखाण्या सकयल्या मनगटाच्या भागांत, रगताचे शिरेची नाडी सहजतायेन तपासूंक मेळटा आशिल्ल्यान नाडी पळोवप म्हळ्यार मनगटाची शीर पळोवप असो संकेत तयार जाला. अशें आसलें तरी कानावयर, गळ्याचो वयलो भाग, कोंपराचेर पावलाचेर नाडी पळोवंक मेळटा. जेन्ना यंत्रीक साधनां उपलब्ध नाशिल्लीं तेन्ना नाडी परिक्षा हेंच रोगाचें निदान करपाचें मुखेल साधन आशिल्लें. उपरांत अशा साधनांची निर्मिती जावन लेगीत नाडी परीक्षा करपाची पद्दत आयज लेगीत अस्तित्वांत आसा.

सर्वसादारणपणान नाडी ही बोटाच्या स्पर्शान पळोवपाची आसली तरी शिरांचें दोळ्यांनी केल्लें निरिक्षण, श्रवण यंत्रावरवीं केल्लें श्रवण आनी उपकरणावरवीं केल्लें आलेखन ह्या सगळ्यांच्या एकत्रीत आदारान काळजाची धडधड आनी रगताच्या दाबाची तपासणी करप जाता.

रोहिणी ही शीर रोगांतले दोश आनी तातूंतली स्थिती दाखयता. मनगटाचेर, हाताचीं तीन बोटां दवरून नाडी पळोवपाची पद्दत आसा. काळजावटेन तर्जनी आसची आनी तिनूय बोटांचो दाब सारको दवरून नाडयेचो हात उदारो करचो. व्हांवते नाडयेचो आकार आनी बोटांच्या दाबान रगतालोटाक आडखळ जाल्ल्यान बोटांक लागिल्लो धपको जाणवता. सुर्वेक नाडी कशी आसा ती पळोवंची. ती पुश्ट, भारदस्त आनी वेवस्थीत व्हांवपी उशण आसल्यार ती बळिश्ट आसा, शरिरूय बळिश्ट आसा अशें समजुंचें. नाडी सरये भाशेन बारीक सुक्ष्म आनी कडक प्रवाही जाणवल्यार ती अशक्त समजुंची आनी शरिरूय तशेंच समजुंचें. नाडी उशण आसून नेटान व्हांवता आसल्यार जोर आसा अशें समजुंचें. अशे तरेन नाडयेचो खोलायेन अभ्यास केल्यार नाडी कितलेशेच सुक्ष्म भाव दाखयता. तीन बोटांक तीन दोश कळटात. तर्जनी, मध्यमा आनी अनामिका हांकां जे धपके लागतात ते क्रमान कफ, पित्त आनी वाताचे आसतात. हीं तीन तरांचीं द्रव्यां नाडयेंतल्यान व्हांवत आसतात. बोटाच्या दाबाक लागून कफ द्रव्याची गती सगळ्यांत चड आडावप जाता. तांचो धपको तर्जनीक लागता. तातूंतल्यान पित्त आनी वात हीं द्रव्यां सुट्टात. दुसऱ्या बोटाच्या दाबान पित्त द्रव्य आडावप जाता. ताचो धपको मध्यमेक लागिल्ल्यान तातूंतल्यान वात द्रव्यां सुट्टात आनी ताचो धपको अनामिकेक लागता, अशी कल्पना आसा. पिराय, दीस, रात आनी जेवणखाण हांचो आरंभ, मध्य आनी निमाणच्या काळांत क्रमान कफ, पित्त, वात शरिरांत चड प्रमाणांत वाडत वता. ताका लागून ते नाडयेंतल्यानूय चड अदीक प्रमाणांत त्या-त्या वेळार व्हांवतात. जो दोश चड प्रमाणांत व्हांवता तो चड नेटान धपको दिता. खंयचो धपको चड आसा ताचेवयल्यान दोश वळखून, त्या दोशाची नाडी वळखुंची. कफाची नाडी आसल्यार कफ दोश शरिरांत चड आसा अशें समजुंचें. एकेकदां दोन-दोन दोश चड आसतात. तीन दोश लेगीत एकदम जावंक शकतात. दोन दोश चड आसतना त्या-त्या दोन बोटांक आनी तीन दोश आसल्यार तिनूय बोटांक नेटान धपके बसतात.

मळ-मूत, जीब, नदर, स्पर्श, आकृती हांच्या चिन्नांचे आनी नाडी दोशाचो मेळ घालून रोग आनी ताच्यो अवस्था थारावच्यों पडटात.

-डॉ. शांता भांगी

-डॉ. दयानंद राव

**नाणीं आनी नाणकशास्त्र :** वेव्हारांतल्या देवघेवीचें एक अधिकृत अशें चलन.

देवघेवीच्या सुर्वेच्या काळांत वस्तूची वा सेवेची अदलाबदल (Barter) करप जातालें. जसो जसो देवघेवीचो वेव्हार वाडूंक लागलो आनी हो वेव्हार किचकटीचो जावंक लागलो तशेंतशें वस्तूचे वा सेवेचे अदला बदली जाग्यार वस्तूचें वा सेवेचें मोल सोंपेपणीं थारोवपी आनी देवघेवीच्या वेव्हारांत सवस्तकाय हाडपी एक सर्वसामान्य अशे वस्तूची गरज दिसूंक लागली. अशी सर्वमान्य वस्त म्हणून सुर्वेक पशुधनाचो उपेग करप जालो. फुडें पशुधनापरसूय सोयीचें अशें चलनाचें माध्यम म्हणून भांगराचे आनी रुप्याचे कुडके वापरांत आयले. हांतूंतल्यान फुडें थरावीक आकार, वजन, कूरू आनी मोल आशिल्लीं नाणीं उदयाक आयलीं.

नाणीं पाडपाफाटलो उद्देश चलन हो आसलो तरी राजकर्त्यांची मिरास दाखोवपाचें तें एक माध्यम आसलें. देखून राजकर्त्यांनी आपणाचीं, घरच्यांचीं वा देवदेवतांचीं चित्रां आनी कुरवो नाण्यांचेर करून घेतल्यो. आपणाचें स्वतंत्र चलन आसप हें मोटेपणाचें लक्षण समजप जातालें. नाण्याचो आकार, तातें नांव आनी वजन, ताचेवयली आकृती आनी कुरवो, ताचो धातू, नाण्याचें मोल, ताचेवयल्यान प्रगट जावपी देशाची अर्थीक स्थिती आनी दिसून येवपी ताचो काळ, नाणीं तयार करपाची पद्दत ह्या सगळ्या गजालींचो अभ्यास म्हळ्यार नाणकशास्त्र. ह्या शास्त्राचो अभ्यास भारतांत एकोणिसाव्या शतमानाचे सुर्वेक जेम्स प्रिन्सेप ह्या ब्रिटीश अधिकाऱ्यान सुरू केलो. १९१० वर्सा नाणकशास्त्राच्या अभ्यासाखातीर न्युमिस्मॅटीक सोसायटी ऑफ इंडिया ही संस्था सुरू जाली आनी तिच्या मार्गदर्शनाखाल भारतांत नाण्यांचो संग्रह आनी तांचो अभ्यास चलता. अस्तंतेकडल्या देशांनी ह्या शास्त्राचें संशोधन हेर शास्त्रांवरीच चालू आसा.

खंयच्याय नाण्यावयल्यान संबंदीत कालखंडांतल्या धर्मीक, राजकीय, समाजीक, अर्थीक आनी संस्कृतीक परिस्थिती जाणून घेवप शक्य जाता.

भारतांतल्या कितल्याशाच राजांचें अस्तित्व तांच्या नाण्यांवयल्यान सिद्ध जालां. इंडो-ग्रीसी, शक, कुशाण, क्षत्रप, सातवाहन आदी राजवंशांतल्या राजांची म्हायती तांच्या नाण्यांवयल्यान समजप शक्य जालां. संघ, नैगम, जनपद, गण हांचें अस्तित्व तांच्या नाण्यांक लागून सिद्ध जालां. मालव, शिबी, यौधेय ह्या गणराज्यांचे वाठार तांच्या नाण्यांक लागून निश्चीत करप शक्य जालां. नाणकशास्त्राचो पुरावो हें भारतीय इतिहासाचें एक म्हत्वाचें साधन जालां.

इ. स. प. तिसऱ्या शेंकड्यांत सांच्यांतल्यान नाणीं पाडपाक सुरवात जाली. ताचे पयलीं नाण्यांच्या धातूचेर छाप मारून मजकूर तयार करताले. हांकां आहत नाणीं म्हण्टात. हरयानांतल्या रोहटक आनी नौरंगाबाद आनी पंजाबांतल्या सुनेत वाठारांत नाण्यांचे व्हडा प्रमाणांत मातयेचे सांचे मेळ्ळ्यात. कोंडापूर (आंध्र प्रदेश, तक्षशिला आनी नालंदाकूय नाण्यांचे सांचे मेळ्ळ्यात. आधुनीक नाणीं हीं छाप मारून केल्लीं आहत नाणीं.

जगांत चलनी नाण्यांचो सगळ्यांत पयलीं वापर अस्तंत आशियांतल्या लिडिया वाठारांत इ. स. प. सातव्या शेंकड्यांत सुरू जालो अशें म्हण्टात. तीं इलेक्ट्रम धातूचीं आनी आकारान लांबोडीं आशिल्लीं. तांचेर हरण वा कसलेंय चिन्न आसून ज्या वेपाऱ्यान तें काडिल्लें ताचें नांव लेखांत दिल्लें आसतालें. उपरांत क्रिसस राजान (इ. स. प. ५६१-५४६) नाणीं पाडपाचो अधिकार आपलेकडेन घेतलो. इराणी सम्राटान रुप्याचीं आनी भांगराचीं नाणीं पाडलीं. ग्रीसांतलीं पुर्विल्लीं नाणी चड करून रुप्याचीं आसात. ॲलेक्झांडरान साम्राज्यस्थापन करतकूच ग्रीस देशांत कलापूर्ण नाणीं तयार जावंक लागलीं. ताच्या दर्शनी भागांत राजाची आकृती आनी फाटले वटेन ग्रीसी देवतेचें चित्र आसतालें. ॲलेक्झांडराच्या काळांत नाण्यांचो प्रसार ताच्या साम्राज्यान सगळ्यांक जालो. इजिप्तांतूय ताका लागून नाणीं पाडपाक सुरवात जाली. इटलीच्या दक्षीण वाठारांत स्थायीक जाल्ल्या ग्रीसी लोकांनी इ. स. प. पांचव्या शेकड्यांत नाणीं पाडिल्लीं. इ.स.प. तिसऱ्या शेंकड्यांत रोमांत कांश्याचीं आनी रुप्याचीं नाणीं पाडपाक सुरवात जाली. रोमी सम्राटांनी व्हडा प्रमाणाचेर नाणीं पाडलीं. तांचीं चडशीं नाणीं भांगराचीं आसात. बायझंटायन सम्राटांचीं नाणीं रोमी नाण्यांभाशेन आसात.

अस्तंत आशियांत मुसलमानी सत्ता येतकूच थंयचें नाण्यांचें स्वरूपूय बदललें. ६९०च्या सुमाराक अब्दुल मलिक ह्या पांचव्या खलीफान नाण्यांनी व्हड सुदारणा केली. मनशाची आकृती मुसलमानी नाण्यांचेर दिवपाक धर्माचो विरोध आशिल्ल्यान खूबदां सूर्य आनी चंद्र हांचीं चित्रां काडटाले.

चीनांतली नाणीं हेर देशांतल्या नाण्यांचे तुळेन सामकींच वेगळे तरेचीं आशिल्लीं. तांचेर फकत लेख आसून आनीक कसलेंच चिन्न नासतालें. तशेंच नाण्यांच्या मदीं एक बुराक आसतालो. नाण्यांच्यो माळी करून दवरपाक ह्या बुराकांचो उपेग जातालो. भांगराचीं नाणीं मात चीनांत केन्नाच पाडलीं नात. रुप्याचीं नाणीं काडपाचो हक्क ताणीं वेपाऱ्यांक दिल्लो. तांब्याचीं नाणीं सरकार काडटालो.

**भारतीय नाणीं :** मोहेंजोदाडो (इ. स. प. २५०० ते १८००)च्या उत्खननांत कांय रुप्याचे चवकोनी आनी वाटकुळे कुडके मेळ्ळ्यात. दा. ध. कोसंबे हाणें तांचो अभ्यास करून तीं नाणींच आसूंक फावो अशें मत परगटायलां. सूत्रकाळांत (इ.स.प. सव्या शेंकड्यांत) नाणीं व्हड प्रमाणाचेर प्रचारांत आशिल्लीं. कात्यायन श्रौतसूत्रांत शतमानाचो उल्लेख आसा. शतमान हें सु. १२ ग्राम वजनाचें नाणें आसूंक जाय. फुडें इ.स.प. पांचव्या शेंकड्यांत शतमानाचो जागो कार्षापणान घेतलो. पुर्विल्ल्या संस्कृत साहित्यांत कार्षापणाचे खूब उल्लेख आसात. पणिनीच्या अष्टाध्यायांत लेगीत नाण्यांचे जायते उल्लेख आसात. ताचेवयल्यान इ.स.प. सव्या-पांचव्या शेकड्यांत नाण्यांचें प्रचलन सुरू जालें हें सिद्ध जाता. इ. स. प. पांचव्या आनी चवथ्या शेंकड्यांतलीं रुप्याचीं आहत नाणी भारतांत विंगड विंगड वाठारांनी सापडल्यांत.

**आहत नाणीं :** हीं भारतांतलीं सगळ्यांत पुर्विल्लीं नाणीं. तीं चडशीं रुप्याचीं आसात. हीं नाणीं आकारान चवकोनी, वाटकुळीं वा लांबोडीं आसात. तांचेर सूर्य, चक्र, हत्ती, बैल, नुस्तें, बेबकी, कांसव, रूख, आयुधां आनी हेर चिन्नां आसात. हीं नाणीं भारतभर मेळ्ळीं तरी उत्तर भारतांत चड प्रमाणांत सांपडटात. आहत नाण्यांचो काळ इ.स.प. दुसरो शेंकडो अशें मानतात.

**इंडो - ग्रीसी :** पयलो डायॉडोटस ह्या ग्रीसी क्षत्रपान भांगर, रुपें आनी तांब्याचीं नाणीं पाडलीं. त्या नाण्यांचे वयले वटेन राजाचें मुखामळ आनी फाटले वटेन ग्रीसी देवतेची आकृती आसताली. तशेंच, फाटले वटेन Diodotouअसो ग्रीसी भाशेंतलो लेख आसतालो. तांब्याच्या नाण्यांचेर आर्टेमिस देवतेची आकृती सांपडटा. उपरांत कांय काळ सत्तेर अयिल्ल्या युथिडीमसच्या नाण्यांचेर भायले वटेन राजाची आनी फाटले वटेन हिरॅक्किअसची आकृती आसा. इ. स. प. १७० च्या सुमाराक सत्तेर आयिल्ल्या सम्राटान एक खाशेलें नाणें काडलें. मीनांदर हाणें भांगराचीं कांय नाणीं काडिल्लीं, अशें जाणकारांचें मत आसा. ह्या काळांतलीं हत्ती आनी बैलाच्या छापाचीं नाणीं उल्लेख करपासारकीं आसात.

शक हे मध्य आशियांतल्या हेडपी पंगडामदले. इ. स. प. ७५च्या सुमाराक इंडो-ग्रीसींचेर हार घालून भारताच्या कांय वाठारांनी ताणीं आपलें राज्य स्थापन केलें. शकांच्या नाण्यांचेर दर्शनी वटेन घोड्यार बशिल्लो राजा आनी फाटले वटेन ग्रीसीदेवतेचें चित्र आसतालें.

इ.स.प. पयल्या शेंकड्याचे सुर्वेक पार्थीयन लोकांची राजवट सुरू जाली. शकांचें पुराय राज्य तांच्या शेकातळा आशिल्लें. तांचीं तांब्याचीं नाणीं चड सांपडल्यांत. त्या मानान रुप्याचीं उणीं आसात.

कुशाण हे जरी परकी आसले तरी, भारतांत ताणीं राज्य करपाक सुरवात करतकच ते पुराय भारतीय जाले. तांचो पयलो राजा कुजूल कडफीसस हाचीं तांब्याचीं आनी रुप्याचीं नाणीं इंडो-ग्रीसी नाण्यांसारकींच आसात. दुसरो कडफीसस हाणें भांगराचीं नाणीं पाडपाक सुरवात केली. त्या नाण्यांचे वयले वटेन शिंवासनाचेर बशिल्लो राजा आनी फाटले वटेन नंदीचेर शंकर आसा. ते उपरांत सत्तेर आयिल्ल्या सम्राट कनिष्कान व्हडा प्रमाणाचेर भांगराचीं आनी तांब्याचीं नाणीं पाडलीं.

मौर्य साम्राज्य सोंपतकूच उत्तर भारतांत ल्हान-ल्हान राज्यां उदयाक आयलीं. तातूंतल्या चडशा राज्यांचें अस्तित्व फकत नाण्यांक लागून सिद्ध जालां. हीं नाणीं इ. स. प. दुसरो शेंकडो ते इ. स. दुसरो शेंकडो ह्या ४०० वर्सांच्या काळांतलीं आसात. तीं चडशीं तांब्याचीं आसून सांच्यांत घालून पाडिल्लीं आसात. तातूंतल्या गण-जनपदांच्या नाण्यांचेर लेख सांपड्टात. कौशांबी ह्या वाठारांतल्या नाण्यांचेर एके वटेन बैल वा गजलक्ष्मीची आकृती आनी दुसरे वटेन दोंगुल्ली वा रूख हीं चिन्नां आसात. उज्ञयनीच्या नाण्यांचेर उज्ञयनी नगर आसा. यौधेयाचीं नाणीं उल्लेख करपासारकीं आसात. तांचीं नाणीं हरयानांत सतलज न्हंयेचे देगेर सांपडटात. शिबी हे पुर्विल्ले जमातींतल्या लोकांचीं नाणीं चित्तोड

आनी नगरी (राजस्थान) नगरांनी सांपडटात. तांच्या नाण्यांचेर स्वस्तीक, रूख, नंदिपद हीं चिन्नां आसून तांचेर 'मझमिकाथ शिबी जनपदस' असो लेख आसता.

मौर्य साम्राज्य लयाक वतकच महाराष्ट्रांत सातवाहन वंश उदयाक आयलो. तांचें महाराष्ट्र, गुजरात, कर्नाटक, आंध्रप्रदेश आनी मध्य प्रदेश ह्या वाठारांचेर खूब तेंप राज्य आशिल्लें. तांचीं नाणीं चडशीं तांब्याचीं, पोटिन आनी शिंशयाचीं आसतालीं. सातवाहन हें नांव लेखांत आशिल्लीं कांय नाणीं सांपडल्यांत. तांचे दर्शनी वटेन हत्ती वा बैल आसून फाटले वटेन उज्जयनी चिन्न वा वेदिकेंतलो रूख दाखयला. घोड्याचो छाप आशिल्लीं कांय नाणीं सांपडल्यांत; तीं सातकर्णी राजांचीं आसूंक जाय, अशें जाणकारांचें मत आसा. गौतमी पुत्रान इ. स. १०० च्या सुमाराक क्षत्रपांनी जिखिल्लो वाठार परत जिखून नहपानाच्या रुप्याच्या नाण्यांचेर आपलें नांव कोरांतलें आनी तीं नाणीं जोगळटेंबी (नासिक) गांवांत सांपडलीं.

इ.स. दुसऱ्या ते चवथ्या शेंकड्यामेरेन मध्य आनी अस्तंत भारतांत क्षत्रपांचें राज्य आशिल्लें. तांचीं नाणीं रुप्याचीं आसून ग्रीसी द्राक्मा परिमाणाचीं आसात. तांचे भायले वटेन राजांचें मुखामळ आसून ग्रीसी अक्षरां आसात आनी फाटले वटेन चैत्य, ताचेर चंद्रकोर आनी खाला वांकडी तिकडी ओळ, दावे वटेन चंद्रकोर आनी उजवे वटेन नखेत्र आसा. ते भायर ब्राह्मी लिपींत लेख आसा.

गुप्त राजांचीं नाणीं ओडलायणीं आसात. जांकां खऱ्या अर्थान भारतीय म्हणूं येता, अशीं नाणीं पयलीं सातवाहन आनी उपरांत गुप्त राजांनीं पाडलीं. गुप्तांनी भांगराचीं नाणीं व्हडा प्रमाणांत पाडलीं. ताका लागून गुप्त काळाक भांगरायूग हें नांव सोबता. पयलो चंद्रगुप्त (३२०-३५) हाचें राजा-राणी छापाचें नाणें हें गुप्तांचें सुर्वेचें नाणें. ताचो पूत समुद्रगुप्त (३३५-७६) हाणें राजदंड, धनुर्धर, परशू, अश्वमेध आनी विणावादक छापांचीं नाणीं काडलीं. तांच्या नाण्यांचेर भायले वटेन राजांची आकृती आसून फाटले वटेन देवतेचें चित्र आसता. समुद्रगुप्ताच्या नाण्यांवयले लेख संस्कृतांत वृत्तबद्ध आसात. दुसऱ्या चंद्रगुप्तान व्हड प्रमाणाचेर भांगराचीं नाणीं पाडलीं. तांचे भायलेवटेन राजाची आकृती आनी फाटले वटेन शिंवाचेर बशिल्ली दुर्गा वा लक्ष्मी आसता. दुसऱ्या चंद्रगुप्तान रुप्याचीं आनी तांब्याचीं नाणीं पाडूंक सुरवात केली. तो विष्णुभक्त आशिल्ल्यान ताच्या नाण्यांचेर 'परमभागवत' हें बिरूद मेळटा. पयलो कुमारगुप्त (४१३-५५) हो कार्तिकेयाचो उपासक आशिल्लो. ताच्या नाण्यांचेर मोराचेर बशिल्ल्या कार्तिकेयाचें वा मोराचें चित्र मेळटा. गुप्ताउपरांत कितलोसोच तेंप नाणींच काडूंक ना अशें नदरेक येता. गुप्ताउपरांत भांगराचीं नाणीं पाडपी राजा म्हणून कलचुरींचो उल्लेख करतात. चंदेल्लांचीं कांय नाणीं गांगेय देवाच्या नाण्यांभशेन आसात. णवव्या शेंकड्यांत काबूल आनी ओहिंद वाठारांतलीं रुप्याचीं आनी तांब्याचीं नाणीं मेळटात.

सातव्या शेंकड्याउपरांत कांय तेंप खंयचीं नाणीं वेव्हारांत आशिल्लीं हें निश्चीतपणान सांगू नजो.

इक्ष्वाकू राजाचीं नाणीं सातवाहनांच्या नाण्यांवरी आसात. पुर्विल्ल्या कदंबांचीं नाणीं भांगराचीं आसून तांचेर मर्दी नेटान छाप मारिल्ल्यान तीं खोलगट जाल्लीं दिसतात. तांचे भायले वयले वटेन कमळ आनी फाटले वटेन फुलां आसात. विष्णुकुंडिन राजाचीं कांय तांब्याचीं नाणीं आंध्र प्रदेशांत मेळ्ळ्यांत. तांचे भायले वटेन शींव आनी फाटले वटेन कलश आसता. कांय शास्त्रज्ञांच्या मतांप्रमाण हीं नाणीं पल्लवांचीं आसूंक जाय.

गोंयांतलीं कदंब काळांतलीं कितलींशींच भांगराचीं नाणीं सांपडल्यांत. तांचे एके वटेन राजाच्या बिरुदासयत नांव आनी दुसरे वटेन राज्यकाळांतल्या संवत्सराचें नांव आसा. देवगिरीच्या यादवांनी भांगराचीं नाणीं पाडिल्लीं. सिंघणाच्या (१२१०-४६) नाण्यांचेर नाच करपी कृष्णाचें चित्र आसा. तेभायर सगळ्या नाण्यांचेर त्या-त्या काळांतल्या राजांचीं नांवां आसात.

पल्लव हें दक्षिण भारतांतलें एक बळिश्ट राजकूल आशिल्लें. तांचीं नाणीं कोरोमंडलाचे दर्यादेगेर मेळ्ळ्यांत. हीं तांब्याचीं नाणीं आकारान ल्हान आसून तांचे भायले वटेन बैलाची आकृती आसता. सूर्य,नखेत्रां आनी हेर चिन्नांय आसात. फाटले वटेन एक वाटकूळ आनी कमळ आसता. कांय नाण्यांचेर व्हडें, कांसव, नुस्तें, कुळ्ळी आनी छत्र, चामर वा धोणू हीं राजचिन्नां आसतात.

चोल सम्राटांचीं नाणीं दक्षिणेंत व्हडा प्रमाणांत मेळ्ळ्यांत. तांणी भांगर, रुपें आनी पितूळ हांचीं नाणीं केल्लीं. तांच्या सुर्वेच्या नाण्यांचेर वागाचें वा नुस्त्याचें चित्र दिसता. उपरांतच्या काळांतल्या चोल नाण्यांचेर उबी मनशाची आकृती वा शिंवाचें चित्र दिसता. हीं सगफ्ळीं चिन्नां नाण्यांचे वयले वटेन आसात.फाटले वटेन बैल, दुकर, हत्ती, घोडो, विष्णुपद, त्रिशूळ, वेणुवादक कृष्णाची मूर्त हीं चिन्नां आसात. नाण्यांवयले लेख प्राकृत, तमीळ, संस्कृत आनी कन्नड भाशांनी आसात.

विजयानगरचे राजा हिंदू आशिल्ल्यान तांच्या नाण्यांच्या दर्शनी भागाचेर देवतांचीं चित्रां आनी फाटले वटेन कन्नड वा नागरी लिपींत लेख आसतात. पयलो हरीहर ( १३३६-५६) ह्या राजांच्या नाण्यांचेर हनुमान वा गरुडाची आकृती आसा. दुसऱ्या हरीहर राजाच्या नाण्यांचेर मात उमा-महेश्वर, लक्ष्मीनारायण, लक्ष्मीनरसिंह हांचीं चित्रां मेळटात. देवरायान (१४२२-६६) आपल्या नाण्यांचेर उमा महेश्वराची आकृती कोरांतली. कृष्णदेवरायाच्या नाण्यांचेर मनशाआकृतीच्या गरुडाचें चित्र दिसता.

**मुसलमानी नाणीं :** मुसलमान राजा चडशे मुर्तीभंजक आशिल्ल्यान नाण्यांचेर मनशाच्यो आकृत्यो ताणीं छापल्योनात. तांचेवयले काळोल्लेख हिजरींत दिवपाक सुरवात जाली. तशेंच ला इलाह इल्लिलाह, मुहम्मद रसूलिल्लाह हो कलीम : नाण्यांचेर कोरांतूंक लागले. इमादुद्दीन इब्न - कसिम हाच्या अधिकारान धाकलीं रुप्याचीं नाणीं काडिल्लीं. १००१-२१ ह्या काळांत भारतांत आयिल्ल्या मुसलमान सुलतानांनी भांगर, रुपें, तांबें, बिलन हांचीं नाणीं पाडलीं. तांचेर काळ आनी टांकसाळीच्या गांवांचीं नांवां आशिल्ल्यान नाणकशास्त्राच्या अभ्यासांत मोलादीक भर पडली.



जहांगिराचीं, राशीचीं चेन्नां दाखोवपी नाणीं

बहामनी नाणीं भांगर, रुपें, तांबें ह्या तिनूय धातूंचीं आशिल्लीं. तांकां टंक अशें नांव आशिल्लें. ह्या नाण्यांचेर कोणाय सुलतानाचें केन्ना केन्ना ताच्या बापायचें वा आज्याचें नांव आसतालें. ते भायर तांचीं बिरुदां आनी

नाणें पाडिल्ल्याचें हिजरी वर्स आसतालें. आदिलशायी नाण्यांचेर सुलतानाचें नांव, ताचीं बिरुदां वा कसलीय कविता आसताली. तांचीं भांगराचीं, रुप्याचीं आनी तांब्याचीं नाणीं आसलीं. तांब्याच्या नाण्यांमदीं रुका, तिरुका, सापिका, सज्‌गाणी, जितल ह्या नाण्यांचो आस्पाव आशिल्लो. टक्का हें हिशोबाचें आनी धातूचेंय नाणें आशिल्लें. निजामशायी नाणीं फकत तांब्याचीं आशिल्लीं. तांचेर अहमदनगरच्या निजामशायी सुलतानाचें नांव आनी टांकसाळीचें नांव आनी केन्ना केन्ना हिजरी वा सुहूर सन हांची नोंद आसताली. इमादशायी नाण्यांचेर परंपरीक शींव आनी एलिचपूर हें टांकसाळीचें नांव इतलीच म्हायती आसताली. कुत्बशाही नाण्यांचेर टांकसाळीचें नांव सुलतानाचें नांव आनी हिजरी वर्स हांची नोंद मेळटा.

शेरशाहान १५४२त रुप्याचो रुपया आनी तांब्याचो दाम वेव्हारांत हाडला. ताच्या राज्यांत विसांपरस चड टांकसाळी आशिल्ल्यो. अकबरान भांगराच्यो मोहरो पाडूंक सुरवात केली. ताच्या कांय नाण्यांचेर अकबराची आकृती आसा. जाल्यार कांय नाण्यांचेर बदकाची आकृती आसा. तशेंच राम आनी सीता ह्या हिंदू देवतांचीं चित्रां आशिल्ल्यो मोहरो ताणें तयार केल्ल्यो. औरंगझेबाच्या नाण्यांचेर मात चित्रां मेळटात. ताणें नाण्यांचेर कलिमः कोरांतपाक लेगीत बंदी घाल्ली. ताच्या नाण्याचे दर्शनी वटेन ताच्यो पदव्यो आनी नांव आनी फाटले वटेन काळाचो उल्लेख आनी टांकसाळीचें नांव दिल्लें आसतालें.

हैदर आनी टिपू हांच्या नाण्यांक मात खाशेली सुवात आसा. हैदरान भांगर आनी तांबे ह्या दोनूय धातूंचीं नाणीं काडलीं. टिपून भांगर, रुपें आनी तांबें ह्या तिनूय धातूंचीं नाणीं काडलीं. ह्या दोगांच्याय नाण्यांचेर सव्यावर्ती वा वामावर्ती हत्ती हें चित्र दिसता. तशेंच, हैदराच्या नाण्यांचेर एके वटेन 'है' हें फारशी अक्षर आनी दुसरे वटेन शिव-पार्वती वा विष्णु-लक्ष्मी हांच्यो आकृत्यो आसात. कांय नाण्यांचेर फारशी मजकूर लेगीत आसात. टिपूच्या नाण्यांचेर देवतांच्यो आकृत्यो मेळनात. ताच्यो १२ टांकसाळी आशिल्ल्यो आनी तातूंत १६ तरेचीं नाणीं पाडटाले.



**टिपू सुलतानाचें आनी पुर्तुगेजांचें नाणें**

ईस्ट इंडिया कंपनी स्थापन जावन भारतांत ती वेपार करपाक लागली. हे कंपनीन सुरू केल्ल्या नाण्यांमदीं बरीच विविधताय दिश्टी पडटा. तिच्यो मुंबय, मद्रास, कलकत्ता, बनारस, फरुखाबाद आनी मुर्शिदाबादेक टांकसाळी आशिल्ल्यो. ताणीं भांगर, रुपें, तांबें आनी शिंशें ह्या धातूंचीं नाणीं पाडलीं. हे कंपनीचीं १८३५ मेरेनचीं चडशीं नाणीं फारशी आसतालीं. तांच्या दोनूय कडांचेर बादशाह वा राजाचें नांव आसतालें. ताचेर रोमन लिपींत इंग्लंड, बाँबे, हीं उतरां आनी नाणें पाडिल्ल्याचें अर्दवट वर्स आसतालें. फुडें फुडें हिंदी, इंग्लीश, बंगाली, कन्नड, तेलुगू, तमीळ आनी फारसी हातूंतल्या एक वा चड भासांनी आनी लिपींनी नाण्यांचें नांव, बादशाहाचें नांव आनी नाणें पाडिल्ल्याचें वर्स हो मजकूर आसतालो. इंग्लीश ईस्ट इंडिया कंपनीचीं कांय नाणीं अशीं : भांगर - दुंडी मोहर, मोहर, अर्दी मोहर, पाव मोहर. तीन स्वामी पॅगोडा, (हॉन), पोर्टोनोवो पॅगोडा (होन), पोरनो तारा पॅगोडा, नवो तारा पॅगोडा, नीम, अश्रफी, दुंडा पांच रुपये नाणें, रुपया नाणें; रुपें - पांच रुपया, दुंडा रुपया, रुपया, अर्दो रुपया, पाव रुपया, दुणेली, आणेली, अर्दो हॉन, पाव हॉन, पांच कलम, दुंडा फलम, फलम, पयलो जॉर्ज तीन कलम, पयलो जॉर्ज दोन फलम; तांबें : आणो , अर्द आणो, पाव आणो, १/१२ आणो, चाळीस कास, तीस कास, पंदरा कास, धा कास, पांच कास, अडेज कास, एक कास, दुंडो ढब्बू, तीन ढब्बू, अर्दो ढब्बू, चार पै (= चार पयशे), दोन पै, एक पै, अर्दी पै, चार पयशे, दोन पयशे, पयसो, अर्दो पयसो, पाव पयसो, अर्दी पै, एक अठ्ठेचाळिसांश रुपया, एक शहाण्णवांश रुपया, दुंडा पयसो ( शिंशाचो), त्रिशुळी पयसो, दुसरो चार्ल्स पयसो.

भारतांतल्या संस्थानिकांचीं आपलीं अशीं स्वताचीं नाणीं, आशिल्लीं. सुमार १०० संस्थानिकांनी आपल्या नाण्यांचो वापर केल्लो मेळटा.

गोंयांत पुर्तुगेजांच्या आगमना पयलींचीं नाणीं, पुर्तुगेजांचे कारकिर्दींतलीं नाणीं आनी गोंय स्वतंत्र जाले उपरांतचीं नाणीं अशे मुखेल तीन प्रकार करूं येतात. पुर्तुगेजांच्या कारकिर्दींतल्या नाण्यांमदीं फुडें तीन वांटे जातात. १५१०-१८७० मेरेन गोंयचे टांकसाळेंत निर्माण जाल्लीं नाणीं. १८७० उपरांत पुर्तुगेजांचीं आनी ब्रिटिशांचीं ब्रिटीश व्याप्त भारतांतले टांकसाळेंत तयार जाल्लीं नाणीं, १९५८त प्रजासत्ताक पुर्तुगालाचीं वापरांत हाडिल्लीं नाणीं, हाचेच जोडयेक ब्रिटीश व्याप्त भारताचीं आनी उपरांत स्वतंत्र भारताचीं नाणीं गोंयच्या चलन वेव्हारांत चलतालीं.

पुर्तुगेज राजवटीच्या आदल्या काळांत विशेश करून कदंब काळांत गद्यानकास, निश्कास, पानास, होन्स, रुबू, दमडी अशा नाण्यांची म्हायती मेळटा.



**कच्छाची 'कोरी', जुनागढचो 'दोकडा', आसामचो 'आहोम'**



**शिवाजी महाराजान सुरू केल्लो 'होन'**



**इंग्लिशांनी हाडिल्ली 'पै'**

पुर्तुगेज राजवटीच्या काळांत शराफीं, बझारुको पारदाव क्रुझादु, रुपी, तांग, इश्कूद, सेंताव हीं नाणीं वापरांत आयलीं. हांचेच वांगडा ब्रिटीश व्याप्त भारताचीं रुपया, पयसो, आणो हीं नाणीं आनी स्वतंत्र भारताचीं ह्याच नांवाचीं नाणीं वापरांत आशिल्लीं. १९६१ वर्सा गोंय स्वतंत्र जाले उपरांत स्वतंत्र भारताचीं रुपया, नवो पयसो हीं आनी हेर नाणीं वापरांत आयलीं.

**नाणींसंग्रह छंद :** युरोपांत १७व्या शतमानांत नाणीं एकठांय करपाचे छंद सुरू जाले. हालींच्या काळांत पुर्विल्ल्या काळांतल्या नाण्यांकूय बाजारांत खूब मागणी आयल्या आनी ताका लागून नाणक संग्रहांत छंदाची उपाट वाड जाल्या. युरोपांत कांय खाजगी संग्रह लेगीत आसात. लंडनांत लॉर्ड ग्रँट ली च्या संग्रहांत ५० हजारां वयर नाणीं आशिल्लीं. विएन्नाच्या कार्ल कोल्शेकच्या संग्रहांत दोन हजारांवयर नाणीं आशिल्लीं. युरोपांत सामान्य मनशाचे कितलेशेच संग्रह आसात. ह्या छंद आशिल्ल्या लोकांनी १८३६त न्युमिस्मॅटिक सोसायटी ऑफ लंडन स्थापन केली. फुडें १९०४त तिचें रॉयल न्युमिस्मॅटिक सोसायटी हे संस्थेंत रुपांतर जालें. भारतांतूय १९१०त न्युमिस्मॅटिक सोसायटी ऑफ इंडिया हे संस्थेची स्थापणूक जाली. संस्थेच्या मुखपत्रांत संशोधनपर लेख येतात. पुर्विल्लीं नाणीं विकप्यांच्यो जायरातीय आसतात. दर वर्सा हे संस्थेचें अधिवेशन भरता. तातूंत दुर्मीळ नाण्यांचें प्रदर्शन भरता. नाणेंसंग्रहाचो छंद आशिल्ल्यान हे संस्थेचो वांगडी जाल्यार आपलो संग्रह आनी गिन्यान वाडोवपाक पोसवण मेळटा. भारतांत सुमार ४,००० संग्रह आसात. हे संख्येंत दरवर्सा वाड जायत आसा. नाशिकालागची 'इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ रिसर्च ईन न्युमिस्मॅटिक स्टडीस' हे संस्थेवतीन नाणकशास्त्राच्या मुळाव्या अभ्यासाखातीर १५ दिसांचें शिबीर घेतात आनी दोन पदव्युत्तर पदविका अभ्यासक्रम आसात.

भारतांत नाणीं पाडपाक सुरवात जाल्यार सुमार २५०० वर्सां जालीं. देखून मुंबयच्या प्रिन्स ऑफ वेल्स वस्तुसंग्रहालयांत मुद्राभारती संस्थेन नोव्हेंबर १९९४ त 'भारतीय नाणें शास्त्राची २५०० वर्सां' ह्या माथाळ्याखाल एक व्हड प्रदर्शन भरयलें.

– मुकेश थळी

**नाताल :** क्रिस्तांव लोकांची म्हत्वाची परब. लॅटीन भाशेंत 'नाताल' म्हळ्यार जल्म. इंग्लिशींतली 'नेटिव्हिटी' ही संज्ञा क्रिस्ताचो जल्म ह्या अर्थान वापरतात. इंग्लिशींतलो 'नाताल' ह्या शब्दाचो अर्थ क्रिस्तजल्मा संबंदींची परब असो जाता. Christes Maesse वा Chrits's Mass हाचेवयल्यान 'क्रिसमस' हें उतर सोळाव्या शेंकड्यांत आयलें गोंयांत ह्या सुवाळ्याक 'नातलां' म्हण्टात.

जेझूच्या जल्माची निश्चीत तारीख मेळना. हाका लागून जेझूची जयंती विंगड विंगड देशांनी विंगड विंगड तारखांक मनयताले. आर्मेनियी इगर्ज जेझूचो जल्मदीस स जानेवारी मानता जाल्यार हेर चर्चसंस्था २५ डिसेंबराक मनयतात. नातालाची परब २५ डिसेंबराक रोमाक पयल्या शेंकड्यांत मनयल्ल्याची म्हायती मेळटा. उदेंते वटेनच्या रोमी साम्राज्यांत, नाताल सणाची चाल नाशिल्ली पूण क्रिस्ताचो जल्मदीस आनी ताचो बातिझ्मा जाल्ल्याचो दीस म्हणून ६ जानेवारी होच दीस पाळटाले. उपरांत २५ डिसेंबरा दिसा थंय जेरुझलेम सोडल्यार सगळ्याक, क्रिस्ताचो जल्मदीस म्हणून नाताल मनोवपाक लागले आनी ६ जानेवारी हो क्रिस्ताचो बातिझ्म दीस म्हणूनच मानपाक लागले. पूण अस्तंतेक जानेवारीचे ६ तारखेर रायांची परब मनयताले. आदल्या काळांत युरोपांत रोमी आनी हेर लोक डिसेंबराचे २५ तारखेर सुर्याची परब व्हड दबाज्यान मनयताले. ह्या दिसासावन उत्तरायण सुरू जाता आनी सुर्याचो पुनर्जल्म जाता म्हणून ते लोक खुशालकायेन हो दीस मनयताले. ह्या उत्सवाचें रुपांतर उपरांत नाताल उत्सवांत जालें. मदल्या युगासावन ही परब लोक व्हड दबाज्यान मनोवपाक लागले.

२५ डिसेंबर ते ६ जानेवारीमेरेन ही नातलांची परब मनयतात. देवान मनशाचें रूप घेतलां हे उमेदीन मनोवपी ही परब जगभरांतल्या इगर्जांनी विंगड विंगड तरांनी मनयतात. क्रिसमसाच्या आदल्या सांजवेळा म्हळ्यार २४ तारखेर (ज्या दिसाक 'क्रिसमस ईव' म्हण्टात त्या दिसा) घरांत आनी इगर्जेंत एक ल्हान गोठो करतात. गोठ्यांत जेझूची एक ल्हान मूर्त दवरून तिचे कुशीक जेझूची आवय मारी आनी ताचो पोसको बापूय सांत झुजे तशेंच बाळक जेझूचें दर्शन घेवपाक आयिल्ले देवदूत,



राखणे, गोरवां, बोकडां, मेरवां आनी हेर वस्तूंच्यो प्रतिमा दवरतात. तशेंच तीन राजांच्यो ल्हान आकृत्यो दवरतात. घरावयर आनी इगर्जेचेर एक नखेत्र हुमकळायतात, तें रातचें पेटोवन दवरतात. कांय लोकांगेर 'नातला रूख' उबो करतात. 'फर' झाडाची एक खांदी कातरून, घरांत एके सुवातेर पुरतात. तिका रंगीत विजे दिवे, बंदेरां, चित्रां लावन सजयतात. ल्हान भुरग्यांखातीर ते खांदयेक बावल्यो, खेळणीं आनी खावपा वस्तू लावन दवरतात.

२४ डिसेंबराचे रातीं सगळे क्रिस्तांव दादले-बायलो, आपल्या भुरग्यांसयत नवे कपडे घालून उमेदीन इगर्जेंत वतात. ज्युस्त रातीच्या बारा वरांचेर जेझूचे पुजे-प्रार्थनेक आनी भक्ती-गितांक आरंभ जाता. वाद्यसंगिताच्या ताला सुराचेर दोन-तीन वरां हो सुवाळो चलता. नातलावेळार म्हण्टात तीं पदां (कॅरल्स) म्हणपाची चाल तेराव्या शेंकड्यांत पयलीं सुरू जाली. आसीसीचो सेंट फ्रांसिस हाणें बाळ क्रिस्ताचेर कॅरल्स रचलीं.

२५ डिसेंबराचे फांतोडेर कॅथलीक इगर्जेंत 'मीस' सुरू जाता. तातूंत लूक हाणें बरयल्ल्या शुभ वर्तमानांतल्या दुसऱ्या अध्यायांत बरयल्ली क्रिस्तजल्माची काणी वाचून दाखयतात. उपरांत इश्ट-मित्रांक, सोयऱ्यांक, शेजाऱ्यांक परबी दितात. तशेंच तरातरांचे खाणां-जिन्नस आनी भेट वस्तू एकामेकांक भेटयतात.

न्हिदिल्ल्या ल्हान भुरग्यांक उठोवन 'नातला रूख' दाखयतात. रुखाक लायिल्ल्यो खाणा-वस्तू आनी भुरग्यांचीं हेर खेळणीं दाखोवन,त्यो वस्तू सांता क्लॉज म्हळ्यार सेंट निकोलस हाणें हाडून दवरल्यात असो भुरग्यांचो समज करून दितात. सांता क्लॉजाक इंग्लंडांत क्रिसमस फादर आनी हॉलंडांत सेंट निकोलस अशें म्हण्टात. लांब धवेंफुल्ल खाड आनी सदांच उमेदी असो हो जाण्टो सांता क्लॉज आशिया मायनरांतलो बिशप आशिल्लो. ताचो भेस घालून, सांता क्लॉज जावन, पदां म्हणीत, भुरग्यांक भेट वस्तू वांटपाची कार्यावळ जाता. नातालांत विंगड विंगड तरांचे केक तयार करपाची चाल आसा. 'पवित्र शास्त्रांत' ही परब कशी मनोवंची हे विशीं उल्लेख ना. पूण युरोपांत ही परब मनोवपाक सुरवात जाल्ल्यान, तिका अस्तंती स्वरूप मेळ्ळां. मूळ पॅगन धर्मांतल्या परबांच्यो चालीरिती नातालांत आस्पावल्यात.

दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत विंगड विंगड देशांतल्यो इगर्जो त्या-त्या देशांतली चाल आपणावंक लागल्यो. भारतांत 'डेव्हिडाच्या ताऱ्या' वांगडाच घरांचेर आकाशदिवे लावप, कॅरल्स म्हणप, फोग लावप, केकावांगडाच हेर भारतीय खाणां-वस्तू तयार करप ह्यो चाली सुरू जाल्यो. नाताला उपरांतचो पयलो दीस 'बॉक्सिंग डे' म्हणून पाळपाची चाल आयजलेगीत कांय देशांनी आसा.जे लोक वर्सभर आपल्या कामाक उपकारा पडले तांकां ह्या दिसा कांय भेटवस्तू 'बॉक्सां' तं घालून दितात. पयस आशिल्ल्या आपल्या सोयऱ्या दायऱ्यांक, इश्टांक नातालानिमतान परबीं आनी संदेश धाडपाची चाल आसा. ती १८४० वर्सा सुरू जाल्ली. नाताल हो जगांतल्या क्रिस्तांव लोकांचो सगळ्यांत व्हड आनी म्हत्त्वाचो उत्सव.

– फेलिस्यु कार्दोज

**नाथ पै (पै, नाथ बापू) :** (जल्म : २५ सप्टेंबर १९२४, वेंगुर्ला, रत्नागिरी; मरण : १७ जानेवारी १९७१).

नामनेचो सुटकेझुजारी आनी संसद सदस्य. ताचो बापूय भुरगेपणांत भायर पडलो. आवय तापी आनी व्हडलो भाव अनंत हांच्या संस्कारांचो नाथाचे व्यक्ती-मत्त्वाचे घडणेंत व्हड वांटो आसा. १९६०त तो क्रिस्टल मिर्शॅल हे ऑस्ट्रियन चलये कडेन लग्न जालो.



वेंगुर्ल्यांत ताचें मुळावें शिकप जालें. बेळगांवच्या लिंगराज कॉलेजींतल्यान अर्थशास्त्र घेवन तो बी. ए. (१९४७) जालो. उपरांत लंडनच्या लिंकन्स ईनांतल्यान बार ॲट लॉ (१९५५) मेरेन ताणें शिकप केलें. संस्कृत, मराठी, इंग्लीश ह्या भाशांचेर ताणें भुरगेपणांतूच प्रभुत्व मेळयलें. विल्यम शेक्सपियर, पर्सी शॅली, जॉर्ज बायरन हांच्या साहित्याचो तशेंच विदग्ध संस्कृत वाङ्मयाचो अभ्यास ताणें केल्लो.

म्हाविद्यालयांत आसतनाच ताणें स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेवपाक सुरवात केली. भूंयगत चळवळींतूय ताचो वांटो आसलो. टपाल कचेऱ्यो आनी पोलीस चौकेर हल्लो केलो म्हणून जायते खेप ताचेर खटलो भरलो. १९४६च्या मुळाव्या शिकोवप्याच्या संपांत तशेंच गोंय मुक्ती आंदोलनांत ताणें वांटो घेतलो. तो बेळगांवां 'राष्ट्रीय सेवा दल' ही संघटना चलयतालो. सोशलिस्ट यूथ इंटरनॅशनलाचो (socialist youth international) तो स वर्सां अध्यक्ष आसलो.

ताणें ६ ते ७ मे १९५५क आझाद गोमंतक दलाची गुपीत बसका, बेळगांव लागीं कानबार्गींत घेवपाक मार्गदर्शन केलें. १५ ऑगस्टा दिसा गोंयांत भितर सरपी सत्याग्रह्यांक मार्गदर्शन करपाक बाकीच्या मुखेल्यांवांगडा तो सावंतवाडी शिमेर येवन रावलो. १९५७ ते १९७१ ह्या काळांत तो प्रजासमाजवादी पक्षाचो खासदार म्हणून लोकसभेंत गेलो. गोंयांक बेगीन स्वतंत्रताय मेळची म्हणून तो आपल्या उलोवपांतल्यान संसदेंत तशें भायरूय लोकांमदीं गोंयची बाजू मांडटालो. गोंय मुक्तीखातीर रोमांत पोर्तुगीज वकिलातीमुखार ताच्या फुडारपणाखाल निदर्शनां जालीं. कामगार संघटनांतल्यान काम करतना फेनर ब्रॉक्के, रेजिनाल्ड सरेन्सन ह्या कामगार फुडाऱ्यांकडेन ताचो लागींचो संबंद आयलो.

संवसारांतल्या जायत्या देशांच्या राज्यघटनांचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. गोलकनाथ प्रकरणांत सर्वोच्च न्यायालयाच्या निर्णयाआड लोकसभेंत ताणें घटनादुरुस्ती विधेयक मांडलें. 'जे घटनेंत दुरुस्ती जावंक येना, ती मेल्लेभाशेन' अशें मत ताणें मांडलें.

१९७०त महाबळेश्वरांत जाल्ल्या मराठी साहित्य संमेलनाचो तो उद्‌घाटक आशिल्लो. चेकोस्लोव्हाकिया आनी हंगेरी ह्या देशांतल्या रशियी सैनिकी कारवायां आड लोकसभेंत ताणें केल्लीं उलोवपां उल्लेख करपासारकीं आसात. तशेंच ताचीं म्हत्वाचीं खाशेलीं उलोवपां "लोकशाहीची आराधना" (१९७२) ह्या पुस्तकांत संग्रहीत केल्लीं आसात.

१७ जानेवारी १९७१त हुतात्म्यांक आर्गां ओंपपाक बेळगांवां गेल्लेकडेन सभेंत भाशण जातकच काळजाचो आताक येवन ताका अचकीत मरण आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

**नाथ माधव :** (जल्म : ३ एप्रिल १८८२ मुंबय ; मरणः २१ जून १९२८, मुंबय).

नामनेचो मराठी कादंबरीकार. ताचें मूळ नांव द्वारकानाथ माधव पितळे. ताणें आपलें शिक्षण मुंबय पुराय केलें. शालेय क्षेत्रांत खेळा मळार ताका बरेंच नांव मेळिल्लें. पूण शिक्षाणाची ताका तितलीशी ओड नाशिल्ल्यान तो मॅट्रिकेक नापास जालो. उपरांत ताणें कुलाबाच्या 'गन कॅरिएज फॅक्टरींत' नोकरी धरली. त्या निमतान ताका जायते फावट भोंवडेक वचचें पडलें. ह्याच काळांत ताका शिकारेचो नाद जडलो. असोच एक फावट तो शिकारेक गेल्लेकडेन उंचेल्या कड्यावयल्यान सकयल पडलो आनी ताचो कमरा सकयलो भाग लुळो जालो (१९०५).

ताचेर उपचार घेवंक हॉस्पिटलांत आसतना ताका वाचनाची आवड निर्माण जाली. ताणें जायत्या इंग्लीश तशेंच मराठी ग्रंथांचें वाचन केलें. हातूंतल्यानूच ताका लिखाण करपाची स्फूर्त मेळ्ळी. सुर्वेक ताणें कांय इंग्लीश लेख बरयले आनी पुण्यांतल्यान 'डॅक्कन हॅराल्ड' ह्या दिसाळ्यांतल्यान उजवाडाक हाडले. फुडें देशी उपचार करून घेवपाखातीर तो पनवेलाक गेल्लेकडेन थंय ताका प्रबोधनकार ठाकरे आनी केरळकोकिळकार कृ. ना. आठल्ये हांचो सांगात मेळ्ळो. थंयच ताणें कथा-कादंबऱ्यो बरोवपाक सुरवात केली.

'प्रेमवेडा' ही ताची पयली कादंबरी १९०८त उजवाडाक आयली. ते उपरांत ताणें समाजीक तशोच इतिहासीक मेळून तिसांपरसय चड कादंबऱ्यो बरयल्यो. तातूंतल्या 'डॉक्टर' (३भाग, १९१८-२०) हे कादंबरेक खुबूच नामना मेळ्ळी. हे कादंबरीचेर एक मराठी चलचित्रूय काडलां. स्वताची बायल शिकिल्ली आशिल्ल्यान तिचेविशीं गैरसमज करून घेवन तिचो त्याग करपी अशिक्षीत घोव हे कादंबरेंत चित्रायला. पूण ती शिकिल्ली बायल फुडें वैजकीचें शिक्षण घेवन घोवाकडेन नमळायेन वागून ताच्यांत कसो बदल घडोवन हाडटा हेंय ताणें बेस बरें चितारलां.

ताणें 'हेमचंद्र रोहिणी' (१९०९), 'रायक्लब अथवा सोनेरी टोळी' (२ खंड, पयली आवृत्ती; दुसरी १९१५; निमाणी १९२४), 'देशमुखवाडी' (१९१६), 'विमलेची ग्रहदशा' (१९१७) ह्यो हेर समाजीक कादंबऱ्यो ताणें बरयल्यो. ह्या कादंबऱ्यांवरवीं ताणें बायलांची व्यथा, घरांतल्यान मेळपी शिक्षण आनी सुसंस्कारांचें म्हत्व, समाजांतल्यो वायट करण्यो अशे विशय हाताळल्यात. पूण ताका चड नामना मेळ्ळी ती ताच्या इतिहासीक कादंबऱ्यांक लागून.

'सावळ्या तांडेल' १९०९ ही ताची पयली इतिहासीक कादंबरी. शिवाजी महाराजाचें बळिश्ट नावीक दळ आनी ताची राखण करपी वीर तांडेल हो विशय इतिहासीक कादंबरेक नवो आशिल्ल्यान ताका आगळी नामना मेळ्ळी. 'स्वराज्याची श्रीगणेशा' (१९२१), स्वराज्याची स्थापना (१९२२), स्वराज्याची घटना (दुसरी आवृत्ती-१९२५), स्वराज्याचा कारभार (१९२३), स्वराज्यावरील संकट (१९२३), स्वराज्याचे परिवर्तन (१९२५) आनी स्वराज्यांतील दुफळी (१९२८) हे कादंबरी माळेंतल्यान ताणें मराठी भाशेचो सुरवातेकसावन काळखंड चितारला. ताची वीरधवल (१९१३) ही अद्भूत गजालींचेर आदारीत कादंबरी खुबूच गाजली. ताणें कांय नाटकां आनी कविताय बरयल्यात.

ताणें वेगवेगळ्या वाठारांनी भोंवडी करून इतिहासीक म्हायती एकठांय केली. तेचपरी इतिहास ग्रंथांचें वाचन केलें तरी ताच्या कादंबऱ्यांतल्यान तो इतिहासीक कालखंडाची खरीं चित्रां उबीं करूंक शकलोना. तेचपरी शैली, व्यक्तिचित्रण आदी गजालींकडेन ताणें सारकें लक्ष दिलेंना अशी टिका ताच्या इतिहासीक कादंबऱ्यांचेर जाली.

– को. वि. सं. मं.

**नाथसंप्रदाय :** एक योगप्रधान शैव संप्रदाय. ह्या संप्रदायाचो उगम सुमार ८ ते १२ शेंकड्यांमदीं जालो असो समज आसा. आदिनाथ शिव ह्या संप्रदायाचो आदिगुरू आनी उपास्यदेवता आशिल्ल्यान हाका नाथसंप्रदाय हें नांव पडलें. हो संप्रदाय योगसाधक आसून योगमार्गान सिद्धावस्था वा अवधूतावस्था प्राप्त करप हें हाचें ध्येय आसा आनी म्हणून हाका योगसंप्रदाय, सिद्धसंप्रदाय आनी अवधूतसंप्रदाय अशींय नांवां आसात. तेभायर वेगवेगळ्या कारणांखातीर ताका दर्शनी, गोरखनाथी, गुरू, कानफाटो संप्रदाय अशींय नांवां दिल्लीं मेळटात.

आदिनाथ शिव हो मूळ प्रवर्तक, मच्छिंद्रनाथ हो मानवी आदिगुरू आनी मच्छिंद्रनाथाचो शिष्य गोरक्षनाथ हो संप्रदायाक चैतन्य दिवपी गुरू अशी ह्या संप्रदायाची गुरू - परंपरा. जे सुवातेचे शिमेसंबंदीं जाणकारांमदीं मतभेद आसात ते कदलीबन सुवातेर ह्या संप्रदायाचो उगम जालो अशें मानतात.

बौद्ध धर्म तशेंच हेर धर्मांनी आनी तांच्या पंथांनी तंत्रसाधनेचें प्रस्थ वाडिल्लें आनी तातूंतल्यान परमार्थाच्या नांवाखाला अनाचार निर्माण जाल्लो. हे परिस्थितीचेर उपाय म्हणून गोरक्षनाथान भारतीय परमार्थ साधनेच्या शुद्धीकरणाखातीर नाथसंप्रदायाचें प्रवर्तन केलें.

ह्या संप्रदायाच्या सिद्धान्ताप्रमाण शिव हें स्वयंप्रकाशीत, स्वसंवेद्य, अनंत, अविनाशी, व्यक्ताव्यक्तविवर्जीत आनी द्वैताद्वैत विलक्षण अशें अंतीम सत्य आसा. हे शक्तीच्या विकासांतल्यान आनी संकोचांतल्यान विश्वचक्र चलता. शक्तीयुक्त शिव हो पींडब्रह्मांडाचो आदार.

नाथयोगींचो सांप्रदायी भेस असो आसता, तातूंत कर्णकुंडलां (कर्णफुलां), घंघारी (चक्र), रुद्राक्षमाळ, किंगरी (वाद्य), मेखला (कमरपटो), जानवें, शृंगी (पिल्लूक), कंथा (गोधडी), दंडा (हातबडी), खापरी (भिक्षापात्र), अघारी (आसन) हांचो आस्पाव जाता.

नाथसंप्रदायाचो सिद्धान्त आनी साधना सांगपी ग्रंथ संप्रदायाच्या वेगवेगळ्या गुरूंनी बरयल्ले आसात. हातूंत गोरखनाथान बरयल्लो सिद्ध - सिद्धान्त पद्दती हो मुखेल ग्रंथ आसा. अमनस्थ, अमरोघ शासन, गोरक्षपद्दति, गोरक्षसंहिता आनी हेर मेळून गोरखनाथाच्या नांवार सुमार २५ ते २८ ग्रंथ आसात. कौलज्ञाननिर्णय, अकुल विरतंत्र, पुलानंद अशे शाक्तपंथाचें वर्णन करपी ग्रंथ मच्छिंद्रनाथाच्या नांवार आसात. नाथसंप्रदायाचो प्रभाव पडिल्ल्यान भोवतेक सगळ्याच भारतीय भाशांनी नाथसंप्रदायावयलें साहित्य दिसता. गोरखबानी, मच्छिंद्रगोरख बोध, गोरख दत्त गुष्टि, गोरक्ष, गणेश गुष्टी, महादेव गोरष गुष्टि, हठयोग प्रदिपिका, गोरष सिद्धान्त संग्रह, नवनाथ भक्तीसार, नवनाथ चरित्रमू हे नाथसंप्रदायाची वळख करपी वेगवेगळ्या भाशांतले कांय ग्रंथ. ह्या संप्रदायाची शिव ही मुखेल देवता आसली तरी हेर संप्रदायाच्या उपासदेवतांकूय नाथयोगी भजतात. काली, अंबा, जगदंबा, दुर्गा, भैरव, कालभैरव, नंदभैरव, एकलिंग, मातृका, योगिनी, शाकिनी, डाकिनी, अवलोकितेश्वर, हाडिपा, नवनाथ, दत्तात्रय ह्यो नाथयोग्यांच्यो कांय मुखेल उपासदेवता आसात.

भारतभर ह्या संप्रदायाचे मठ तशीं देवळां आसात. उत्तर प्रदेशांतलें गोरखपूर हें ह्या संप्रदायाचें मुखेल पुण्यक्षेत्र आसा. गोंयांत, मडगांवां रावणफोंड हे सुवातेर मच्छिंद्रनाथ आनी गोरख हांच्यो मुर्ती आशिल्लें देवस्थान आसा. चोडणेंचो मल्लिनाथ हो मच्छिंद्रनाथ असो पारंपारीक समज आसा. गोंयचीं चंद्रनाथ, भूतनाथ सारकिलीं शिवमंदिरां आनी दत्तमंदिरा हीं नाथसंप्रदायाकडेन संबंदीत आसुंये अशें एक मत आसा. आदीं एकसंघ आशिल्ल्या नाथपंथांत उपरांत हेर पंथाभाशेनूच पंथभेद निर्माण जाले. हातूंतले मुखेल बारा पंथ अशे आसात – सत्यनाथी, धर्मनाथी, रामपंथ, नाटेश्वरी, कन्हड, कपिलानी, माननाथी, आईपंथ, पागलपंथ, ध्वजपंथ, गंगानाथी आनी वैराग, हांचेभायर वेगवेगळ्या नांवांचे

भारतभर कितलेशेच फांटे आसात.

मध्ययुगीन भारतीय साधनेच्या इतिहासांत नाथसंप्रदायांत वाममार्गी तंत्रिकाचो पराभव करून भारतीय साधनेचें व्हड प्रमाणांत त शुद्धीकरण घडोवन हाडलें. चित्तशुद्धी, समाज सुदारणेची तळमळ आनी तेखातीर लोकभाशेचो स्विकार ह्या गुणांक लागून हो संप्रदाय लोकाभिमुख जावन लोकप्रिय जावंक पावलो. पारंपारीक आचारधर्म आनी सांप्रदायी सिदान्त हांचो सुमेळ घडोवन घेतिल्ल्यान ह्या संप्रदायाक समन्वयक रूप आयलें. उत्तर भारतांत कबीर आनी नानक, महाराष्ट्रांत ज्ञानेश्वर धरून संत परंपरा हांचेर नाथसंप्रदायाचो विशेश प्रभाव पडिल्लो दिसता.

गोंयांत नाथपंथीयांच्यो नाथ गोसावी आनी नाथजोगी ह्यो दोन पोटजाती आसात. गोरखनाथ गोंयांत येवन गेल्ल्याचो कांय जाण उल्लेख करतात. पोरण्या गोंयच्या गोरक्षतीर्थाचो गोरखनाथाच्या आगमनाकडेन संबंद लावप जाता. गोमन्तक नाथजोगी सेवक समाज नांवाची तांची एक समाजसंस्थाय आसा.

- कों. वि. सं. मं

**नानकदेव :** (जल्म :१५ एप्रिल १४६९, तळवंडी, लाहोर; मरणः २२ सप्टेंबर १५३९, कर्तारपूर).

शीख संप्रदायाचो प्रवर्तक आनी आर्य गुरू. सद्या पाकिस्तानांत आशिल्ल्या लाहोर जिल्ह्यांतल्या तळवंडी गांवांत खत्री ह्या हिंदू क्षत्रीय कुळांत ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचें नांव काळुचंद आनी आवयचें त्रिपताका. ताचें शिक्षण घरचेघराच जालें. भुरगेपणांतूच ताणें गणित, हिंदी, अरबी आनी फारसी भाशांचें गिन्यान मेळयलें. ल्हान पणासावनच तो बुद्धीन कुशाग्र आशिल्लो. ताची वृत्ती वैराग्यशील, धर्मीक आनी चिंतनशील आसली. जे पिरायेंत खेळचें, मस्ती करचीं ते पिरायेंत तो साधू, संत, फकीर हांच्या सहवासांत रावतालो, तांचेकडेन चर्चा करतालो आनी बरोच वेळ एकांतांत, चिंतनांत काडटालो.



ताचें मन लौकीक वेव्हारांत रमचें, चार चौगांसारको ताणें संवसार करचो म्हणून आवयबापायन १८ वर्सांचे पिरायेचेर (१४८७) बटाला हांगाच्या मूळचंद खत्री हाची चली सुलखनी हिचेकडेन ताचें लग्न लावन दिलें. श्रीचंद आनी लक्ष्मीचंद अशे ताका दोन पूत आसले. घरसंवसार सुरू करतकच ताणें सुलतानपूराक सरकारी धान्याच्या गुदांवांत नोकरी धरली. संवसारांत आसुनूय ताची खरी ओड आध्यात्माकडेन आशिल्ली. आपलो संवसार सांबाळून तो नित्यनेमान प्रार्थना, ध्यानसाधना, करतालो. एक दीस तो ध्यानस्त आसतना ताका ईश्वरी साक्षात्कार जालो आनी ह्या साक्षात्काराच्या आंतरीक गिन्यानावरवीं ताका मानवजातीचें कल्याण करपाची प्रेरणा जाली. तेच भिरकेंत ताणें नोकरी सोडली आनी धर्मकार्य तशेंच समाजकार्य करपाखातीर तो घराभायर सरलो.

नानकाच्या जिविताचेर जायत्यो आख्यायिका आसात आनी ताणें जायते चमत्कार केल्ल्याचेंय सांगतात. १४९७ ते १५२१ ह्या २४ वर्सांच्या काळांत ताणें पुराय भारत तशेंच बांगलादेश, ब्रह्मदेश, श्रीलंका, तिबेट, इराक, इराण, मक्का, मदिना, बगदाद, अफघानिस्तान देशांची भोंवडी केली. हे भोवडेंत ताणें वेगवेगळ्या धर्माच्या जाळवणदारांवांगडा, साधुसंतांवांगडा, फकिर, योगी, सुफी वांगडा धर्मीक, परमार्थीक आनी आध्यात्मिक गजालींचेर भासाभास केली. वेगवेगळ्या देशांच्यो चालीरिती, रुढी-परंपरा हांची वळख करून घेतली आनी अशे तरेन मनीसजातीचें बारकायेन निरिक्षण केलें.

मुसलमान धर्मांतलो एकेश्वरवाद, हिंदू धर्मातलें आत्म्याचें अमरत्व आनी किरिस्तांव धर्मांतली कृपावृत्ती ह्या त्रिसुत्रांचेर गुरूनानक हाणें आपल्या नव्या संप्रदायाची (शीख संप्रदायाची) बुन्याद घाली. ईश्वर हो एकूच आसा आनी ह्या एकाच ईश्वराची मानवजात ही निर्मिती आसा. तेखातीर सगळीं मनशां समान आसात. कोण हिंदू ना, कोण मुसलमान ना, आसा ती फकत मनीसजात हो उपदेश ताणें आगऱ्यान केलो. ताणें फुडल्या पांच तत्त्वांच्या आचरणाचेर भर दिलो - १) नाम आनी गान : ईश्वर नामाचो उच्चार करून ताची तुस्त करप २) दान : सगळ्यांक दानधर्म करप ३) स्नान : सदांच सकाळीं न्हावनधुवन निवळ जावप. ४) सेवा : परमेश्वराची आनी मनशांची सेवा करप. ५) सिमरन : आत्मसाक्षात्कार जावपाखातीर आनी ईश्वराची कृपा जावपाखातीर देवाचें नामस्मरण करप, ताची प्रार्थना करप.नितळ आचरण आनी अंतस्करणपुर्वक ईश्वरभक्ती हीं परमेश्वर प्राप्तीचीं दोन साधनां. हीं साधनां गुरुकृपेन अवगत जातात. ईश्वरप्राप्तीचीं साधनां हीं दर एकल्यान आपले तांकीचेर आत्मसात करपाचीं अशी ताची शिकवण आसली.

गुरूनानक हो एक व्हड कवीय आसलो. संगिताच्या रागरागणींत बसता अशीं भजनां-पदां ताणें रचलीं. ताणें रचिल्लीं वट्ट ९४७ पदां 'ग्रंथसाहिब' ह्या शीख धर्मग्रंथांत संग्रहीत केल्यांत. शीख लोक मुर्तीची पुजा करिनात. मुर्तीच्या जाग्यार ते 'ग्रंथसाहिब' ह्या धर्मग्रंथाची गुरुद्वारांत पुजा करतात. हो ग्रंथ शीखांचे धर्मीक लिपींत म्हळ्यार गुरूमुखीं लिपींत आसा. ग्रंथसाहिबाच्या सुरवातीच्या भागांत 'जपजी' म्हणजेच 'ईश्वर चिंतन' ह्या नांवान आयिल्लो, नानकान पंजाबी भाशेंत रचिल्लो ३८ कडव्यांचो भाग आसा. प्रत्येक शीखांच्या घरांत जपजी ही प्रार्थना नित्यनेमान म्हणपाची चाल आसा. नानकाच्या हेर रचनांमदीं 'सिध गोष्ट', 'अश दी वार' (हो भाग सदांच सकाळीं गुरूद्वारांतल्यान म्हणप जाता), 'बारमाह' (बारा म्हयन्यांचें पद) 'माझ दी वार', दक्खणी ओमकार आदींचोय आस्पाव जाता.

गुरूनानक हाणें भक्तीमार्ग आनी परमार्थी असो शीख संप्रदायाचो पुरस्कार केलो तेचवांगडा संवसारांत रावनूय ईश्वरभक्तींतल्यान ईश्वर प्राप्ती जावंक शकता. बरे भाशेन संवसार करुनूय मोक्षप्राप्ती जावं येता अशें ताणें सांगलें.

शुद्ध आचरण, समानताय आनी ईश्वर नामस्मरण अशी सादी विचारसरणी आनी संवसार सादून परमार्थ जोडपाचे शिकवणेक लागून ताका हिंदू तशेंच मुसलमान अशे जायते अनुयायी मेळ्ळे. तळवंडीचो मर्दाना नांवाचो मुसलमान हो ताचो पयलो अनुयायी. तो रबाब नांवाचें

वाद्य वाजोवन ताका भजनांत साथ दितालो.

निमणी भोंवडी करून येतकच ताणें रावी न्हंयचे उदेंत देगेर कर्तारपूर नांवाचो नवो गांव वसयलो. थंय तो नांगर चलोवन शेती करतालो. १५३८त ताणें आपलो पट्टशिष्य भाई लोहणा हाका अंगद (शरिराचो भाग) अशें नांव दिलें आनी ताका आपलो वारस तशेंच शीख धर्माचो दुसरो गुरू म्हणून नेमलो. १५३९त ताणें आपलो देहत्याग केलो. ताच्या मर्णाउपरांत ताचें दहन करचें काय दफन हाचेर ताच्या हिंदू आनी मुसलमान अनुययांमदीं वाद उपरासलो. पूण उपरांत ताच्या मढ्यावयली चादर अर्दी अर्दी वांटून घेवन हिंदूनी त्या चादराच्या अर्दाचें दहन केलें आनी मुसलमानांनी आपल्या अर्दाचें दफन केलें. कर्तारपूराक दोनूय धर्मियांनी ताचें एकाच जाग्यार मदीं वणत घालून स्मारक बांदलें.

गुरू नानकान सदाचारसंपन्न अशा नव्या धर्माची स्थापना केली. तेचवांगडा, उत्तर भारतांत जातीवेवस्था, अस्पृश्यताय, सतीची चाल, मुर्तीपुजा, वायट चाली हांचेआड खर झूज दिवन समाजीक क्रांतीय घडोवन हाडली. ताणें प्रत्यक्ष आपल्या वेव्हारांत परमार्थीवांगडाच समानतायेचें तत्त्व आपणायलें. ताणें 'संगत' (धर्मसंघ) आनी 'लंगर' (अन्नछत्र) हांची स्थापणूक करून समानतायेचें प्रत्यक्ष आचरण केलें.

– कों. वि. सं. मं.

**नाना, फडणीस :** (जल्म : १२ फेब्रुवारी १७४२, सातारा; मरण: १३ मार्च १८००).

पेशवायेंतलो एक व्हड मुत्सद्दी. ताचें पुराय नांव बाळाजी जनार्दन भानू. ताचें भुरगेंपण नानासाहेब पेशव्यावांगडा गेलें. तेचपरी ताका राजकारभाराचें शिक्षणूय ताच्याच सहवासांत मेळ्ळें. १७६१त आवय आनी बायल हांकां घेवन यात्रेच्या उद्देशान तो पानीपताचे स्वारीत सामील जालो. झुजाच्या बोवाळांत तो निमाणेमेरेन भाऊसाहेबावांगडा आशिल्लो. भाऊसाहेब ना जातकच पळापळींत तो खुबूच हालांनी रेवाडीक पावलो. थंयच्यान तो जाटांच्या वाठारांत आनी उपरांत दक्षिणेंत आयलो. ताची बायल उपरांत आयली. पूण आवय मात बेपत्ता जाली. व्हडलो माधवराव आनी रघुनाथराव हांचे धुसफुशींत जेन्ना बापून कारभार सोडलो तेन्ना माधवरावान नानाक फडणीशी दिली.

मदल्या काळांत (१७६२) कांय तेंप रघुनाथरावाकडेन कारभार वतकूच फडणीशी, चिंतो विठ्ठल रायरीकर हाचेकडेन गेल्ली. पूण कांय तेंपान ती नानाकडे परत आयली. हैदरावयल्या घुरयेच्या वेळार नाना पुण्यांत राजकारभार आनी हिशेब पळयतालो. तुकोजी होळकर आनी महादजी शिंदे हांकां सरदारकी मेळोवन दिवपांत ताचो हात आशिल्लो. फुडें नारायण रावांच्या काळांत नाना बापूक आदार दितालो. पूण फुडें नारायणरावाची हत्या जातकच ब्रह्महत्या करपी रघुनाथरावाआड ताणें बापूच्या आदारान बारभाईचें कारस्थान घडोवन हाडलें.

१७७४त सवाई माधवरावाचो जल्म जालो. १७७६त रघुनाथरावान इंग्लिशाच्या आदारान पेशवायेचेर घुरी घाली. हैदर आनी कोल्हापुरकरय नानाआड उठले. तोतयाचें बंडय ह्याच वेळार जालें. अशा वेळार नानान इंग्लिशांकडेन पुरंदरची कबलात करून साश्टी, भडोच आदी स लाखांचो मुलूख दिवन राघोबादादाक ताब्यांत घेतलो. हरिपंत आनी महादजीक फाटोफाट हैदर आनी कोल्हापुरकर हांचेर धाडून तांचो बंदोबस्त केलो. नानाचो बापोलभाव मोरोबा हाणें कट करून रघुनाथरावाक परत पेशवेपदार हाडपाचो यत्न केलो. अशा वेळार बापूचे मध्यस्तीन नानान मोरोबाकडे एकचार केलो आनी पुरंदर किल्लो आनी बाल पेशवो आपल्या ताब्यांत दवरून णव लाख रुपया दिवन होळकरांक फोडले. फुडें मोरोबाचो कट मोडून ताका अटक केली. तशेंच बापूचो दुबाव येवन ताका नदरकैदेंत दवरून हेरांक ख्यास्त दिली. हरिपंत फडके आनी परशुरामभाऊ पटवर्धन हाणीं नानाक सगले तरेचो आदार दिलो.

दुसऱ्या इंग्लीश मराठा झुजा उपरांत सालबाई कबलातीन १७८२त साश्टी सोडल्यार मराठ्यांचो मुलूख मराठ्यांक परत मेळ्ळो. भाऊसाहेबाच्या तोतयाक धरून ताची चवकशी करून ताका देहान्ताची ख्यास्त दिली. इंग्लिशांची, फत्तेसिंग गायकवाडाक अहमदाबाद दिवपाची येवजण नानान रद्द करून पेशव्याची मांडलिकी चालू दवरपाक तांकां भाग पाडले.

फुडें हरिपंत आनी महादजी हांकां मरण येतकच १७९५त मराठ्यांचें निझामाकडेन झूज जालें. खर्डा नगरांत निझामाची हार जाली. नानाच्या यत्नाक लागून मराठे सरदार ह्या झुजांत एकठांय आयले. खर्ड्याच्या झुजाउपरांत ऑक्टोबर १७९५ त सवाई माधवरावाक अपघाती मरत आयलें आनी नानाचें म्हत्व इल्लें इल्लें उणें जायत गेलें. रघुनाथरावाचो पूत बाजीराव हाचेविशीं नानाचें मत खास नाशिल्लें. ताणें चिमाजी आनी अमृतराव हांकां गादयेर बसोवपाचो यत्न केलो. पूण ताका यस मेळ्ळें ना. १७९६त ताणें महाडचो कट रचलो. दौलतरावाक धा लाख रुपया दिवपाचे केले. कोल्हापूरकारांक परशुरामभाऊ आड फितयले. एकामेकांआड कसल्योच भानगडी करचेनात म्हणपाचो सोपूत घेवन रावबाजीक गादयेर बसोवन तो आपूण कारभारी जालो. पूण ३१ डिसेंबर १७९७ ह्या दिसा दौलतरावान विश्वासघात करून ताका धरलो आनी नगरच्या किल्ल्यांत दवरलो. जुलय १७९८त ताका दोन फावट धरून परत बंदी केलो. फुडें १८००त ताका मरण आयलें.

नाना फडणीस जरी एक मुत्सद्दी आशिल्लो तरी ताच्यांत दूरदर्शीपणाचो खुबूच उणाव आशिल्लो. दुसऱ्या बाजीरावाविशीं नाराजी, सवाई माधवरावाचेर कडक देखरेख, सचिवाचो छळ, घाशीरामाची पुण्यांतली जुलमी कारकीर्द, सखारामबापू आनी सखाराम हरी हांकां बंदखण, छत्रपती सातान्याच्या दुसऱ्या शाहुची उवेखणी आदी प्रकरणांक लागून नानाक अपेश आयलें, तरी संकटाच्या काळांत मराठ्यांची एकी तिगोवन दवरप, इंग्लिशांपसून स्वातंत्र्य राखून दवरप ही नानाची म्हत्वाची कामगिरी आशिल्ली. पुण्यांत ताणें जायती उदरगत घडोवन हाडिल्ली. ताचे कारकिर्दींत पेशवायेचें उत्पन्न धा कोटींचें जाल्लें. ताणें धा-बारा वाडे, बेलबागेसारकीं देवळां आनी शनिवारवाड्यांत जायतें बांदकाम केल्लें. पुण्यांत ताणें जायत्यो पेठयो बसयल्यो. तशेंच सदाशिव पेठेचो हौद बांदून पुण्यांत उदकापुरवण केली. हाचेभायर वेळासाक देवूळ, कायगांवांत गोदावरीचेर घाट, भीमाशंकराक ज्योतिर्लिंगाचें देवूळ, काशीक दुर्गाघाटार वाडो, कर्मनाशेचेर पूल, खोपोलीक तळें आनी देवूळ आदी जायत्या बांदकामांनी नानाचो हात आशिल्लो.

– कों. वि. सं. मं.

**नान्सेन, फ्रित्यॉफ :** (जल्म : १० ऑक्टोबर १८६१, फ्रोएन; मरण : १३ मे १९३०, ल्युसाकर).

उत्तर ध्रुवप्रदेशाचो नॉर्वेयी समन्वेषक, शास्त्रज्ञ, मानवतावादी मुत्सद्दी आनी नोबेल पुरस्कार विजेतो. क्रिस्तियाना (ऑस्लो) आनी इटलींतल्या नेपल्साक ताणें प्राणिशास्त्राचो अभ्यास आनी संशोधन केलें. १८८२त तो ग्रीनलँड दर्याचेर भोंवडेक गेलो. १८८८-१८८९त ताणें पांच वांगड्यांसयत उदेंत देगेसावन अस्तंत देगेमदलो २,७१९ मी. हिमाच्छादीत सर्वोच्च भाग हुंपून ग्रीनलँडांत पावलो. थंय ताका ग्रीन लँडाच्या भितल्ल्या भागाची म्हायती मेळ्ळी आनी आर्क्टीक समन्वेषणाच्या तंत्राविशींचे ताचे संकल्पनेक घटसाण आयली.

गॉटहॉपाक ताणें एस्किमोंच्या जिविताविशीं अभ्यास केलो आनी एक पुस्तक बरयलें. बेरिंगचे समुद्र धुनी लागसार फुटिल्ल्या तारवाचे अवशेश ग्रीनलँडाकडेन व्हावंत आयिल्ले पळोवन, व्हांवपी हिमखंडावांगडा उत्तर ध्रुवाक वचपाची येवजण ताणें आंखली. तेखातीर ताणें 'फ्राम' हें खास तारू तयार करून १३ वांगड्यांसयत जून १८९३त तो वचूंक भायर सरलो. सप्टेंबरांत हिमखंडांनी तारूं रेवडायतकच तें एका हिमखंडाक बांदून तो १४ मार्च १८९५ दिसा ८४°४' उत्तर हे सुवातेर पावलो. ताणें तारूं थंय सोडलें आनी एका वांगड्यासयत तो सुण्याचे घसरगाडयेवयल्यान ८६° १३' उत्तर मेरेन वतकच ताका परतुंचें पडलें. उत्तर ध्रुवाचे इतले लागीं पावपी तो पयलो मनीस. उपरांत फ्रांझ जॉझेफ जुंव्यार थोडे दीस रावन तो नोर्वेक गेलो. ताचे हे येसस्वी मोहिमेक लागून ताका सुमाराभायर नामना आनी भोवमान मेळ्ळे.

१९००त ताणें उत्तर दर्याच्या समन्वेषणात वांटो घेतिल्लो. १९१० ते १९१४ मेरेन ताणें उत्तर अटलांटिक आनी आर्क्टीक म्हासागरांत चार मोहिमो केल्यो.

नान्सेन १८८२त बर्गेनच्या निसर्ग्रेइतिहास संग्रहालय, १८८९त क्रिस्तियाना विद्यापिठाचें प्रणिशास्त्र संग्रहालय हातूंत अभिरक्षक म्हणून आनी त्याच विद्यापिठांत सुर्वेक प्रणिशास्त्राचो आनी १९०८ उपरांत म्हासागर विज्ञानाचो प्राध्यापक आशिल्लो. १८८७त ह्या विद्यापिठान ताका पीएच. डी. ही पदवी दिली. १८९६-१९१७ ह्या काळांत ताणें शास्त्रीय संशोधन केलें. म्हासागर संशोधनाविशींच्या संस्थांचो संचालक, संस्थापक आनी अध्यक्ष आदी पदांचेर तो आशिल्लो.

संशोधन उपकरणांची निर्मिती आनी तातुंतली सुदारणा, हिमखंडाचें वहन, समुद्रप्रवाहाचें स्पश्टीकरण, आर्क्टीक उदकांचीं खाशेलपणां, आर्क्टीकांतल्या नान्सेन बेसिनचें समन्वेषण म्हासागर विज्ञान प्राणिशास्त्र आनी हेर विशयावयलें भरपूर लिखाण हो ताच्या शास्त्रीय मळावयलो वावर.

१९०५त स्विडनाच्या साम्राज्यातल्यान नॉर्वेची सुटका करपाखातीर, नॉर्वेच्या लंडनाचो पयलो मंत्री (१९०६-०८), १९१५त अमेरिकेक आनी १९२०त राष्ट्रसंघाचे पयले बसकेक गेल्ल्या नॉर्वेच्या शिश्टमंडळाचो फुडारी, पयल्या म्हाझुजाउपरांत रशियेंतल्या ५,००,००० झूज बंद्यांचें स्वदेशप्रत्यावर्तन आनी रशियेंतल्या दुकळपिडितांक आश्रयार्थ्यांक आदार दिवपाखातीर राष्ट्रसंघान आनी आंतरराश्ट्रीय रॅडक्रॉस समितीन नेमिल्ल्या म्हाआयुक्त ह्यो जापसालदारक्यो येसस्वीपणान सांबाळिल्ल्यान ताका १९२२चो नोबॅल शांतताय पुरस्कार दिलो. १९३१ त जिनिवांत आश्रयार्थ्यांखातीर स्थापन केल्ले नान्सेन आंतरराश्ट्रीय कार्यालयाक १९३८चो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो.

– कों. वि. सं. मं.

**नामडे, हरीभाऊ विठ्ठलप्पा :** (जल्म : ७ फेब्रुवारी १९३३, जालना, महाराष्ट्र) .

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. १५ ऑगस्ट १९५९ह्या दिसा नागोराव नायक हाच्या फुडारपणाखाल मांदऱ्यां पेडण्यां जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरून खूब मार घालो, जाका लागून ताचे भलायकेचेर परिणाम जालो आनी ताका तीन म्हयने वैजकी उपचार घेवंचो पडलो. २२ सप्टेंबर १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नामदेव :** (जल्म : २६ ऑक्टोर १२७० नरसी; मरण : ३ जुलय १३५०).

एक म्हान संतकवी. नामदेवाच्या जल्मकाळाविशीं एकमत ना. भक्तीसंप्रदायाचे नदरेन नामदेवाचो जल्म प्रमोद संवत्सर शके ११९२, कार्तिक शुद्ध एकादशी दिसा फांतोडेर जालो. पूण 'ज्ञानेश्वरी' चे रचणूके उपरांत सुमार शंबर-सवायशीं वर्सां म्हळ्यार शके सुमार १३०० ते १३८० हो नामदेवाचो काळ आसा, अशें मत मराठींतल्या संतवाङ्मयाचे एक संशोधक प्रा. श्री. ना. बनहट्टी हाणें उक्तायलां. आशाढी-कार्तिकी एकादशी वेळार पंढरपूराक वचपी वारकऱ्यांच्या मुखांत घोळपी 'निवृत्ती-ज्ञानदेव-सोपान-मुक्ताबाई-एकनाथ-नामदेव तुकाराम 'हो संतांच्या नांवाचो गजरूय ह्या संदर्भांत विचारांत घेवपासारको आसा.

नामदेवाच्या जल्मगांवाविशींय वाद आसा. ताच्या पुर्वजांचो मूळ गांव 'रिळे'. हो गांव हालींच्या सांगली जिल्ह्यांतल्या शिराळे ह्या तालुक्यांत आसा. ह्या गांवांतल्यान, नामदेवाच्या घराण्यांतलो सवो पुरूस यदुशेट हो नरसी ह्या गांवांत रावपाक आयलो. ताच्यो फुडल्यो चार-पांच पिळग्यो नरसीकूच रावताल्यो. होच नामदेवाच्या आवय-बापायचो मूळ गांव. 'गोणाई दामाशेटी झालें पाणिग्रहण। संसारी असोन नरसी गांवीं। ह्या अभंगांवयल्यान तें स्पश्ट जाता. ह्याच नरसी गांवांत नामदेवाचो जल्म जालो.

नामदेवाचो जल्मगांव नरसी ही गजाल सगळ्यांक मान्य आसली, तरी हो 'नरसी' गांव खंयचो हेविशीं मात संशोधकांभितर मतभेद आसात. हो 'नरसी' म्हळ्यार कऱ्हाडालागीं आशिल्लें 'नरसिंहपूर' अशें कांय तज्ञांचें मत आसा. पूण हें मत चुकीचें आसून नित्यनेमान औंढ्या नागनाथाच्या दर्शनाक वचपी नामदेव हो मराठवाड्यांतल्या परभणी जिल्ह्यांतल्या नरसी गांवाचो आसूंक जाय, अशें डॉ. वि. भि. कोलते ह्या संशोधकाचें मत आसा. जनाबाईन बरयल्ल्या अभंगांत हे संबंदान जे उल्लेख येतात, ते पळयल्यार नामदेवाचो जल्मगांव पंढरपूर अशें दिसता. नामदेव हो जल्मान आनी वेवसायान शिंवपी आशिल्लो. 'शिंपियाचे कुळीं जल्म मज आला' असो आपल्या कुळाचो उल्लेख नामदेवान एका अभंगांत केला. 'दामाजी' हें ताच्या बापायचें आनी 'गोणाई' हें ताचे आवयचें नांव. राजाई हें ताचे बायलेचें नांव. ताका नारा, महादा, गोंदा आनी विठा हे पूत आनी लिंबाई ही धूव आशिल्ली.

नामदेवान शंबर कोटी अभंग बरयले असो एक समज आसा. पूण सद्या ताच्या नांवार सुमार दोनूच हजार अभंग मेळटात. ताणें कांय संतांचीं चरित्रांय बरयल्यांत. तातूंत संत ज्ञानेश्वराविशीं बरयल्ल्या

आख्यानांक खूब म्हत्व आसा. 'आदी' आनी 'तीर्थावळी' अशीं तांचीं नांवां आसात. 'समाधी' ह्या आख्यानांत ज्ञानेश्वरी, सोपानदेव, मुक्ताबाई, चांगदेव आनी निवृत्तीनाथ हांचे समाधीविशीं ताणें बरयलां. हे भायर नामदेवाच्या नांवार 'बालक्रीडा' आनी 'शिवरात्रीमाहात्म्य' अशीं आनीक दोन आख्यानां मेळटात. कंसाचो वध जायमेरेनचें श्रीकृष्णाचें चरित्र 'बालक्रीडें' त आयलां, जाल्यार शंकराचे भक्तीचें व्हडपण हो 'शिवरात्रीमाहात्म्या' चो विशय आसा.

नामदेवान जशी मराठी भाशेंत काव्यरचना केल्या तशी हिंदींतूय केल्या. शीखांच्या 'श्रीगुरूग्रंथसाहेब' नांवाच्या ग्रंथांत नामदेवाच्या एकसठ पदांचो आस्पाव जाता. 'भक्त नामदेवजीकी मुखबानी' म्हणून ह्या पदांक वळखतात. हेभायर नामदेवाचीं हिंदींत आनिकूय सुमार देडशें पदां आसात. नामदेवाच्या कार्याचीं दोन मुखेल खाशेलपणां आसात. एक म्हळ्यार, आपल्या अभंगांतल्यान ताणें मांडिल्लो आनी खासा आपले जिणेंतूय आपणायिल्लो समाजीक समतेचो विचार. समाजान अस्पृश्य थरयिल्ल्या चोखा मेळासारक्या भक्तांचो ताणें शिश्य म्हणून स्विकार केलो. पंजाबांतूय ताचे शिश्य विंगड विंगड जातींतले आशिल्ले.

ताच्या दुसऱ्या कार्याचें खाशेलपण म्हळ्यार महाराष्ट्राभायर ताणें केल्लो भक्तीमार्गाचो प्रसार. 'नाचूं कीर्तनाचे रंगी। ज्ञानदीप लावूं जगीं' हो ताचे जिणेचो हेतू आशिल्लो. तेप्रमाण महाराष्ट्रांत ताणें भक्तीमार्गाचो प्रसार केलोच, पूण महाराष्ट्रा भायरूय ताणें भक्तिमार्ग रुजयलो आनी वाडयलो. आपलो प्रदेश सोडून नामदेव उत्तरेंत गेलो आनी वाटेंत सगळेकडेन भक्तिमार्गाचो प्रसार करीत सुमार वीस वर्सां तो पंजाबांत रावलो. पंढरपूरासावन पंजाबामेरेन ताणें केल्ली ही भक्तीयात्रा, हें अलौकीक कार्य कबीरा सारकेल्या संताकूय प्रेरणा दिवपी जालें. शीखांचो गुरू नानक हाकाय नामदेवाच्या कार्याक लागून स्फूर्त मेळ्ळी.

नामदेवान समाधी खंय घेतली होय एक वादाचो प्रस्न जालो. नामदेवान ज्या गांवांत समाधी घेतली तो गांव म्हळ्यार पंढरपूर, नरसी काय पंजाबांतलो घुमान अशें ह्या वादाचें रूप आसा. नामदेव एकूच आशिल्लो, काय एकापरस चड लोक नामदेव ह्या नांवान बरयताले असोय एक चर्चेचो विशय आसा. ह्या प्रस्नासंबंदान खास अभ्यास करून संत नामदेव हो नेमदेव, विष्णुदास नामा, नामा शिंवपी, नामा यशवंत आनी पाठक हांचेपरस वेगळो आसा अशें मत डॉ. सरोजिनी शेंडे हिणें परगटायलां

– प्रा. एस्. एस्. नाडकर्णी

**नायक, अज्जू :** पुर्तुगेज सरकारांतलो कर्मचारी. तो मूळ लोटली गांवचो. १६१० ते १६२२ अशीं तेरा वर्सां तो पुर्तुगेज सरकाराचे नोकरेंत आशिल्लो. सुर्वेक तो दुभाशाच्या कामार आशिल्लो. उपरांत ताका वकील म्हूण बडटी मेळ्ळी आनी पुर्तुगेजांचो वकील म्हणून ताका जहांगीर बादशाहाच्या दरबारांत धाडलो. फुडें पुर्तुगेज आनी मोगल हांचेमदीं दुस्मानपण आयलें आनी जहांगीरान सुरत शारांत रावपी अज्जूक धरून सगळ्या पुर्तुगेजांक धरले. १६१५त दोनूय सत्तांमदीं करार जातकूच ताची सुटका जाली आनी तो गोंयांत आयलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक, अनंत देमू :** (जल्म : २८ एप्रिल १९१५, शिवोली - बारदेस).

गोंयचो सुटकेझुजारी. १९५४ वर्सा सावन तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत राश्ट्रवादी पत्रकां वांटप, सुटकेझुजाऱ्यांक जेवण आनी रावपाची वेवस्था करप आनी हत्यारबंद वावरांनी वांटो घेवप असलीं कामां तो करतालो. शिमेवयल्या राज्यांनी वचून तो राजकी वावर करतालो. १९५६त तो पोलिसांचें धरप चुकोवपाक नेत्रादे गांवांत गेलो. अस्नोडें पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत ताणें सुटकेझुजाऱ्यांक आदार दिलो. सप्टेंबर १९५९त पोलिसांनी ताका धरून बंदखणींत घालो. गोंयचे सुटके उपरांत ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक असोळणेकार, चंद्रहास पुंडलीक :** (जल्म : ११ सप्टेंबर १९१७, असोळणें).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें आनी लिसेंवाच्या दुसऱ्या वर्सामेरेन शिक्षण घेतलें. १९४२ वर्सासावन तो राश्ट्रवादी वावर करूंक लागलो. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. राश्ट्रवादी साहित्य आनी पत्रकां वांटप, बातम्यो पावोवप, भुंयगत वावुरप्यांक आदार करप असलीं कामां तो करतालो. १९५१त पोलिसांनी ताका धरलो आनी एका म्हयन्याखातीर बंदखणींत दवरलो. २२ जून १९५४ ह्या दिसा पोलीसांनी ताका परतो धरलो आनी कांय म्हयन्यांनी सोडलो. ऑक्टोबर १९५४ सावन तो भारतीय दुतावासांत वावर करूंक लागलो. तेभायर बंदखणींत आशिल्ल्या सुटकेझुजाऱ्यांक वखदां आनी कपडे दिवन आदार दितालो. तशेंच 'आमचा लढा' हें सातोळें उजवाडाक हाडून ताच्यो प्रती वांट्टालो.

फेब्रुवारी १९५९त तो गोंयांत आयलो आनी भूंयगत वावरांनी वांटो घेवंक लागलो. जुलय १९६१त पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. तशेंच ताचे कडल्यान ताच्या वांगड्यांची म्हायती मेळची म्हणून ताचो खूब छळ केलो. पूण ताणें खबर दिवपाक न्हयकार दिल्ल्यान ताका बंदखणींत दवरलो आनी ऑक्टोबर १९६१त सोडलो. गोंयचे सुटके उपरांत १९६२त वास्को कॉंग्रेस समितीचो सरचिटणीस म्हणून तो वेंचून आयलो. १९७३त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक, आनंद वैकुंठ :** (जल्म : १७ मार्च १९३४, मडगांव).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. राश्ट्रीय पत्रकां वांटप, पत्रकां लावप असलीं कामां तो करतालो. १९५५ त तो 'गोंय सुटके सैन्य' हाचेखातीर वावर करूंक लागलो. शिमेवयल्या वाठारांतल्यान बॉमांखातीर लागपी सामान हाडून बॉम तयार करपाचें काम तो करतालो. १४ ऑगस्ट १९५६ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी चार वर्सां बंदखणींत दवरलो. २६ सप्टेंबर १९७३ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक, काशिनाथ दामोदर :** (जल्म : २६ मे १८९५ मडगांव; मरण : २ फेब्रुवारी १९६८, मडगांव).

प्रागैतिहासिक काळाचो विद्वान अभ्यासक तशेंच मडगांवचो एक नामनेचो वेपारी आनी समाज कार्यकर्तो. मराठी मुळावें शिक्षण घेतकूच ताणें सेगुंद ग्राव मेरेन पुर्तुगेज आनी गरजेपुरतें इंग्लीश शिक्षण घेतलें. १९०८ वर्सासावन ताणें वेपारी क्षेत्रांत प्रवेश केलो. १९२० वर्सा ताणें मुंबय आपणाच्या नांवान कमिशन एजन्सीची पेडी उगडली. १९३९त ताणें मडगांवाच आपलो भाव श्रीनिवास दा. नायक हाच्या आदारान स्वतंत्र वेवसाय सुरू केलो.



१९१२ वर्सा मडगांवां 'सारस्वत ब्राह्मण समाज' ह्या नांवान एक संस्था स्थापन जाली. तिचे स्थापनेंत आनी उपरांतच्या वावरांत ताचो मोलाचो वांटो आसा.

उपरांत ताणें 'समाज सेवा संघ' ही संस्था स्थापन केली आनी तिचेवतीन 'महिला व नूतन मराठी विद्यालय' ही शाळा चलयली. हे संस्थेखातीर ताणें उपाट वावर केला. 'A Voz da India' हें पुर्तुगेज दिसाळें बंद पडपाच्या मार्गार आसतना ताणें तें फुडाकार घेवन, सरकाराचो विरोध सहन करून सहकारी तत्त्वाचेर चलयलें. उपरांत मराठी 'गोमंतवाणी' दिसाळें काडपांतूय ताणें फुडाकार घेतिल्लो. १९३८ वर्सा तो मुंबय 'द गोवा हिंदू असोसिएशन' च्या वर्सुकी संमेलनाचो अध्यक्ष आशिल्लो.

१९४६चे स्वातंत्र्य चळवळीक ताणें गुप्त दान दिलें आनी जायत्या स्वातंत्र्यविरांचो संवसार सांबाळपाक हातभार लायलो. १९४७चे सुरवातेक गोंयाक अंतर्गत स्वायत्तताय दिवपाच्या विचाराखातीर सरकारान जें म्हामंडळ नेमिल्लें तातूंत ताचो आस्पाव आशिल्लो. फुडें स्वातंत्र्य झुजारी कार्यकर्त्यांकडेन आशिल्लो ताचो संबंद सरकाराक कळ्ळो, तेन्ना ताका ३-४ वर्सां मुंबय वचून रावचें पडलें.

ताका मराठी, इंग्लीश, पुर्तुगेज, हिंदी, बंगाली आनी गुजराती ह्या भाशांचें गिन्यान आशिल्लें. ताका गंभीर साहित्याची आनी चड करून इतिहासग्रंथांची आवड आशिल्ली. विंगड विंगड भाशांतल्या चार हजार ग्रंथांचें ताचें वाचनालय आशिल्लें. गोंयच्या दरेका लेखकाच्या साहित्याचो संग्रह करपाचो ताका छंद आशिल्लो. तेचपरी ताणें नाणकशास्त्राचोय अभ्यास केल्लो. फुडें आपणें एकठांय केल्ल्या ग्रंथांचो संग्रह ताणें गोमंत विद्या निकेतन संस्थेक दिलो. तें बरे तरेन दवरपाखातीर साल बांदूक ताणें १०,००० रुपयांची देणगीय दिली.

ताका पुर्विल्ल्या इतिहासाची खूब आवड आशिल्ली. १९५३च्या सुमाराक 'भारत्‌मित्र' हातूंत ताच्या संशोधनावयलो पयलो लेख उजवाडाक आयलो. १९५४-६१ ह्या काळांत ताणें 'दूधसागर' नेमाळ्यांत नेमान बरप केलें. तेभायर 'दीपावली', 'अर्चना', 'मांडवी', 'गोमन्तक' आनी 'गोमन्तवाणी' हातूंतल्यानूय ताचें बरप उजवाडाक येतालें. ताणें बरयल्ल्या कांय वेंचीक लेखांचे झेले 'गोमंतकाची संस्कृतीक घडण' आनी 'गोमंतकाचे अंतरंग' (१९९५) ह्या नांवांनी उजवाडाक आयल्यात.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक, तिमय्या (तिमोजी) :** गोंयांतल्या विजयनगर दरबारांतलो एक सरदार. हो मूळचो मराठा आसूंक जाय अशें इतिहासकार म्हण्टात. कारण ताचें लग्न गेरसप्पाच्या राजाचे धुवेकडेन जाल्लें आनी ही राणी विजयनगराच्या तुळूव घराण्यांतली आशिल्ली. ते फुडें निश्चीतपणान सांगतात की तो गोंयकारूच पूण खंयचे गांवचो तें कळना. ताचो साबाजी नांवाचो एक व्हड भाव आशिल्लो आनी तो बहामनी काळांत गोंयचो सुभेदार आशिल्लो. तिमय्याक एक भयण आशिल्ली आनी ती गोंयांतल्या माय नाईक नांवाच्या सरदाराकडेन लग्न जाल्ली. हो ताचो मेवणो ताका सगळ्या कामांनी आदार दितालो.

१५१०च्या हिंदू सरदाराच्या आदारान पुर्तुगेजांनी गोंय घेतलें तोच हो तिमय्या. गोंयांतल्या विजयनगर दरबारांतलो तो सरदार आशिल्लो. त्या वेळार मुसलमान आनी नायटे हांचो त्रास गोयांतल्या हिंदू जनतेक आनी चड करून गोंयांतल्या हिंदू वेपाऱ्यांक जावपाक लागिल्लो. हाचेर उपाय म्हणून म्हाळपैले बूद्‌दीन तिमय्यान पुर्तुगेजांचो आदार घेतलो अशें एक कारण आनी दुसरें अशेंय एक कारण सांगतात तें म्हळ्यार मुसलमानी आदिलशाही कडल्यान पुर्तुगेजांच्या आदारान गोंय घेवचें आनी तें एक तर विजयनगर साम्राज्याक जोडचें वा आपणें विजयनगर साम्राज्याचो मांडलीक जावन आपणें तें चलोवचें असो तिमय्याचो विचार आसलो.

देखून दुसरे खेपे जेन्ना वाश्कु दा गामा १४०२ त गोंयांत आयलो तेन्ना तिमय्या ताका मेळ्ळो. पूण हातूंत तिमय्याक येस मेळ्ळें ना. तेन्ना तो दाँ फ्रँासिश्कु द आल्मैद आनी उपरांत आफोंसु द आल्बुकेर्क हांकां मेळ्ळो. तिमय्याच्या आदारान आल्बुकेर्कन गोंय घेतलें. पूण गोंय शार आनी उपरांत गोंय घेतकूच दर वर्सा वीस हजार पार्दाव दिवन गोंय आपल्याक दिवप ही ताची मागणी पुर्तुगेजांनी आयकली ना. पूण कांय तेंपाखातीर ताका सुभेदार म्हणून नेमलो. उपरांत ताच्या जाग्यार होनावरच्या राजाचो भाचो मल्हारराव हाका नेमलो. पूण मल्हारराव गोंयांत आसतना होनावरच्या राजाक मरण आयलें. तेन्ना ताचो वारस म्हणून मल्हाररावाक राजपद मेळ्ळें आनी तो थंय गेलो. तो वतकूच तिमय्याक गोंयांत कांयच मोल उरलेंना आनी तो विजापुराक गेलो. थंय ताचेर विखाचो प्रयोग जालो आनी ताका मरण आयलें. तो मरतकूच ताचीं बायलभुरगीं गोंयांत आयलीं आनी ताणीं किरिस्तांव धर्म आपणायलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक, दत्ताराम बाबुराव (एन्. दत्ता) :** (जल्म :१५डिसेंबर १९२८, मुंबय).

नामनेचो सिनेमा संगीतकार. ताचो मूळ गांव आरोबें. पूण खूब पुर्विल्ल्या काळासावन ताचे पुर्वज मुंबय स्थायीक जाल्ले. ताचें मॅट्रीकमेरेनचें शिक्षण मुंबयच जालें. ल्हानपणासावन ताणें संगिताचें शिक्षण घेवंक सुरवात केली.

गोविंदराव अग्नी हाचेकडल्यान ताणें धा वर्सां शास्त्रीय संगिताचें शिक्षण घेतलें. उपरांत प्राध्यापक देवधर हाचेकडल्यान ताणें आनीक आठ वर्सां शिक्षण घेतलें. तेन्नाच ताणें तबलें पेटीवादन हे विशींय बरेंच गिन्यान आत्मसात केलें. उपरांत १९४१ वर्सा सावन नामनेचो सिनेमा संगितकार एस्. डी. बर्मन हाचेकडल्यान ताणें संगिताचें शिक्षण संपादन केलें. ताणें संगित दिल्ल्या दर गिताक नामना मेळत रावली. ताणें संगीत दिल्लें 'तू हिंदू बनेगा न मुसलमान बनेगा' हें आनी हेर जायतीं गितां नामनेक पावलीं. ताणें कांय मराठी गितांकय चाली दिल्यात.

१९६३ वर्सा आंतरराश्ट्रीय सिनेमासंगीत सर्तींत ताणें संगीतबद्द केल्ल्या 'विजिनेट्स ऑफ गोवा' ह्या सिनेमाक पयलें इनाम फावो जालें. १९६७ वर्सा ताणें 'अपराध' ह्या सिनेमाक दिल्ल्या संगिताखातीर महाराष्ट्र सरकारान पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान केलो. ताणें महादेवी वर्मा, लाला लजपतराय, डॉक्टर सलीम अली, गंगा, उत्तर प्रदेश, गोंय हांचेर अनुबोधपट तयार केले; तातूंतल्या डॉक्टर सलीम अली ह्या अनुबोधपटाक १९७० वर्सा पुरस्कार मेळ्ळो. १९७८ वर्सा ताणें संगीत दिल्ल्या भाऊसाहेब बांदोडकार हाच्या जिविताचेर आदारिल्ल्या अनुबोधपटाक पुरस्कार फावो जालो. १९७७-७८ वर्सा 'बाळा गाऊ कशी अंगाई' हाच्या संगिताखातीरूय ताका पुरस्कार मेळ्ळो.

आयज मेरेन ताणें १५० हिंदी आनी २५ मराठी सिनेमांक संगीत दिलां.

- कों. वि. सं. मं.

## नायक, नारायण कृष्णा : (जल्म : १९२५, मयें - दिवचल).

गोंयचो सुटकेझुजारी. शेतकारांचे चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. तो पत्रकांय वांटटालो. १९४६ सावन तो भूंयगत वावर करूंक लागलो. पोलिसांनी ताका धरपाचें फर्मान काडिल्लें. उपरांत ३ जून १९४६ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. ताका प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून णव म्हयने बंदणींत दवरलो. १९७३त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

कों. वि. सं. मं.

## नायक, नारायण भास्कर : (जल्म : २५ जून १८९९, रिवण).

नामनेचो गोंयकार साहित्यीक. पिरायेच्या पंदराव्या वर्सासावन ताणें लेखनाक सुरवात केली. ताणें रिवण गांवांचेर बरयल्लो 'ऋषिवन' हो लेख मनोरंजन ह्या मासिकांत उजवाडा आयिल्लो. ते उपरांत नवयुग, विविधज्ञान विस्तार, मकरंद, लोकमित्र, आदी मासिकांतल्यान ताचे लेख उजवाडा येवंक



लागले. पिरायेच्या २२व्या वर्सासावन ताणें 'भारतमित्र' (१९२१) हें म्हयन्याळें उजवाडा हाडूंक सुरवात केली. ह्या मासिकाखातीर ताणें आपूण जावन सगळेकडेन भोंवून वर्गणीदार आनी लेखक मेळयले. पूण त्यावेळार गोंयचे सुटके चळवळीखातीर मासिकांतलो मजकूर सॅन्सॉर बोर्डाकडल्यान पास करून घेवंचो पडटालो. तशेंच 'भारतमित्र' ह्या नांवाकय एक फावट सरकारान आक्षेप हाडिल्लो. १९५५त ताणें ह्या मासिकाखातीर मडगांवां आपणाचो छापखानो उगडलो. पूण अर्थीक अडचणींक लागून तो बंद करचो पडलो. अशें जरी आसलें तरी ह्या सगळ्या गजालींचेर मात करून ताणें सुमार ५० वर्सांवयर हें मासिक चलयलें. डॉ. पिसुर्लेकार हाचे गोंयच्या इतिहासावयले लेख ह्या मासिकावरवीं उजवाडा येताले. नायक हाणें भारतमित्रांतल्यान जायतें बरप केलें आनी उपरांत तें पुस्तकरुपान उजवाडाक हाडलें. ताणें सुमार ५० ल्हान-व्हड पुस्तकां बरयल्यांत तातूंत रामनाथस्तुती, भजनांजली ह्यो पुस्तिका आनी गोमंतकीय नियतकालीकें, गोमंतकांतील मराठी गद्य, गोमंतकातील मराठी काव्य, श्री स्वामी इंदिराकांत तीर्थ हाचें चरित्र, ह्या पुस्तकांचो आस्पाव जाता.

ताणें जरी जायत्या विशयांचेर गद्य आनी पद्य बरप केलें तरी ताच्या अभ्यासाचो खरो विशय म्हळ्यार गोंयचो इतिहास. ह्या विशयाचेर ताणें अभ्यास करून भोज, शिलाहार, ह्या पुर्विल्ल्या काळांतले राजवटींचेर तशेंच मराठे आनी पुर्तुगेज सत्तांचेरूय बरप केलें. हाचेभायर ताणें पुर्विल्ली ग्रामसंस्था, आयुर्वेद, नाटकशास्त्र, आरोग्य अशा विशयांचेर पुस्तिका बरयल्यात. ताच्या 'ऋषीवनाचा इतिहास' ह्या पुस्तकांत ताणें रिवणच्या इतिहासाचेर उजवाड घाला.

- कों. वि. सं. मं.

## नायक, नारायण हरी : (जल्म : २८ ऑक्टोबर १९२६, ताळगांव - तिसवाडी).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताचें मुळावें शिक्षण मराठींत आनी माध्यमिक शिक्षण पुर्तुगेजींतल्यान जालें. १९४७ वर्सा सावन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तशेंच 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो संस्थापक वांगडी आशिल्लो.

नारायण सुरवातीसावन भौजन समाजाखातीर खूब वावुरलो. शेतकामत्यांक, कामेन्यांक आनी कारखान्यांतल्या कामगारांक एकठांय हाडून तांकां तो गोंयचे सुटकेचें म्हत्व सांगतालो. १९४७त ताणें तीन सत्याग्रह घडोवन हाडले, देखून १८ ऑक्टोबर १९४७ ह्या दिसा पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरून थोडो तेंप बंदखणींत दवरलो. उपरांत पेडणें तालुक्यांतल्या वझरी गांवच्या लोकांक तांच्या जुलमी भाटकारांआड झगडपाक ताणें तेंको दिल्लो. ताणें जायते खेपे पुर्तुगेजाच्या पोलीस ठाण्यार आनी बँकांचेर हत्यारबंद हल्ले करपाक वांटो घेतिल्लो. ४ डिसेंबर १९४७ दिसा पर्वरी हांगाचे 'बांकु नासिओनाल उल्त्रामारिनु' हे बँकेचेर जाल्ल्या हल्ल्यांत ताचोय आस्पाव आशिल्लो. देखून ७ डिसेंबर १९४७ दिसा ताका आनी ताच्या हेर वांगड्यांक पोलिसांनी धरून खूब त्रास दिले. कांय दिसांनी गोंयच्या प्रदेशीक लस्करी न्यायालयांत ताची चवकशी जावन ताका २१ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त जाली. सुरवातेक ताका आग्वाद बंदखणींत दवरून उपरांत एक जून १९५२ दिसा आंगोलाच्या

'फोर्तालेझ रोसादश' चे बंदखणींत दवरलो. पूण १४ वर्सां उपरांत ताची सुटका जाली.

१९६२त 'लॅफ्टनंट गव्हर्नर कॉन्सुलेटिव काउन्सील' हाचो वांगडी म्हणून ताका वेंचून काडलो. उपरांत महाराष्ट्रवादी गोमन्तक पक्ष कार्यकारी समितीचो तो वांगडी जालो. तेचपरी 'ऑल इंडिया काँग्रेस' (आय) कमिटीचो वांगडी म्हणूनय ताणें वावर केला. गोंयचे सुटके उपरांत ताणें वावर केला. गोंयचे सुटके उपरांत ताणें जायत्या कामगार संघटनांक, शेतकामत्यांक आनी मूंडकारांक न्याय मेळोवन दिला. पंचायत राज्य चळवळींत ताणें सक्रीय वांटो घेतिल्लो. १९६२-६८ ह्या तेंपाखातीर ब्लॉक डॅवलपमॅण्ट कमिटीचो अध्यक्ष म्हणून तों वेंचून आयलो. १८ जून १९८२ दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या वावराखातीर ताचो भोवमान केला, तशेंच भारत सरकारानूय ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**नायक, पांडुरंग सातू :** (जल्म : १३ डिसेंबर १८९९, म्हाड्डोळ; मरण : २१ ऑगस्ट १९७६, मुंबय).

चलचित्र क्षेत्रांतलो नामनेचो गोंयकार छायाचित्रकार. ताणें मराठी तिसरीमेरेन शिक्षण घेतलें. १९१५ वर्सा तो मुंबय गेलो. थंय ताणें दादासाहेब फाळके हाचे चलचित्र संस्थेंत प्रवेश केलो आनी ताचेकडल्यान छायाचित्रणांतले मुळावे धडे घेतले.

फुडें ताणें 'कोहिनूर फिल्म कंपनी', 'लक्ष्मी प्रॉडक्शन्स' आनी 'रणजित फिल्म कंपनी' ह्या संस्थांनी सहाय्यक छायाचित्रकार म्हणून कामां केलीं. १९३४त छायाचित्रणाचें आर्विल्लें शिक्षण घेवपाखातीर तो जर्मनी, फ्रांस, इटली, इंग्लंड ह्या देशांनी गेलो. थंयसावन येतकूच ताणें इंपेरियल फिल्म कंपनींत प्रवेश केलो. १९३४ वर्साच्या 'इंदिरा एम्. ए.' ह्या बोलपटाच्या वेळार फळयो बांदून थंयसावन उजवाडा येवजण करपाचो एक येसस्वी प्रयोग ताणें केल्लो.अजुनूय कांय जाण तो प्रयोग करतात. १९३६ वर्सा मास्टर विनायक आनी बाबुराव पेंढारकर हांचे भागींत हंस पिक्चर्साची स्थापना करून ताणें 'छाया' (१९३६), 'धर्मवीर', 'प्रेमवीर', (१९३७), ब्रह्मचारी, ज्वाला '(१९३८), 'ब्रँडीची बाटली', 'देवता', 'सुखाचा शोध' (१९३९), 'अर्धांगी' (१९४०) ह्या गाजिल्ल्या चलचित्रांचें ताणें छायाचित्रण केलें. १९४० त ताणें नवयुग फिल्म कंपनीचो 'लग्न पहावं करून' हो चित्रपट चित्रीत केलो. १९४१त ताणें कोंकणाचे फाटभुंयेचेर आदारीत 'अमृत' ह्या चित्रपटाचें छायालेखन केलें. १९४२त ताणें आनी बाबुराव पेंढारकर हाणें मेळून 'न्यू हंस' हे चलचित्र संस्थेची स्थापना केली. हे संस्थेन 'पहिला पाळणा', 'भक्त दामाजी' (१९४२) आनी 'पैसा बोलतो आहे' (१९४३) हे चित्रपट सादर केले, जांचें छायाचित्रण पांडुरंग नायक हाणें केलें. फुडें १९४४ वर्सा प्रभात फिल्म कंपनींत प्रवेश करून ताणें 'रामशास्त्री (१९४४) आनी 'लाखारानी' (१९४५) ह्या चलचित्रांचें छायालेखन केलें. तशेंच गोयलच्या 'चिराग कहाँ रोशनी कहाँ' ह्या हिंदी चित्रपटाचें छायालेखनूय ताणेंच केल्लें. हे ताचे चाळीस वर्सांचे कारकिर्दींतलें चित्रीत केल्लें निमाणें चलचित्र. कल्पकताय आनी वास्तवताय हें ताच्या छायालेखनाचें खाशेलपण आशिल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

**नायक, पुंडलीक नारायण :** (जल्म : २१ एप्रिल १९५२, वळवय, फोंडें).

नामनेचो साहित्यीक. ताच्या बापायचें नांव नारायण आनी आवयचें नांव लक्ष्मी. बायलेचें नांव हेमा. गांवगिऱ्या वाठारांत रावपी शेतकामती



कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. ताकालागून ल्हानपणासावन शेतकामत्याची जीण अणभवपाक मेळ्ळी आनी हे जिणेचें बारीकसाणीन निरिक्षण करपाचीय संद मेळ्ळी.

एस. एस. सी. मेरेनचें ताचें शिक्षण सावयवेरेंच्या सरकारी हायस्कूलांत जालें. उपरांत इंटर आर्टस् मेरेनचें शिक्षण पणजेच्या धेंपे कॉलेज ऑफ आर्टस् अँड सायन्स हातूंत जालें.

स वर्सां शिक्षक म्हणून काम करतकूच १९७९ वर्सा, आकाशवाणी केंद्र, पणजी हातूंत सह संपादक म्हणून ताची नेमणूक जाली. उपरांत पालवी संपादक (scripts) म्हणून ताका बडटी मेळ्ळी. १९८४ वर्सा ताणें आकाशवाणीवयली नोकरी सोडली.

ल्हानपणासावन ताका साहित्याची ओड आशिल्ली. १९७२ वर्सासावन कोंकणींतल्यान ताचो साहित्य-निर्मणेचो वावर सुरू जालो. कोंकणींत ललीत साहित्याचे निर्मणेचें यूग सुरू जातकूच गांवगिऱ्या वाठारांतल्या कश्टकऱ्यांची आनी चिड्डल्ल्या माड्डल्ल्यांची जीण साहित्यांत मांडपाचो येसस्वी यत्न करपी असो हो भौसांतल्या लेखकांचे पिळगेचो मुखेल प्रतिनिधी. पुंडलीक नायक हाच्या साहित्यिक योगदानाचें खाशेलपण म्हळ्यार ताणें साहित्याच्या विंगड-विंगड प्रकारांच्या मळांचेर लिखणी चलयल्या. कविता, कथा, नवलिका, नवलकाणी, नाटक, एकांकी अशा चड करून सगल्याच ललीत-साहित्य प्रकारांनी ताणें साहित्य-निर्मिती केल्या.

ताच्या कथा आनी नवलकाणी-नवलिकांनी तशेंच नाटकांनी समाजांतल्या दुबळ्या वर्गाची दुख्खां,व्यथा आनी हावेस, तांचेर जावपी अन्याय, अत्याचार आनी तांचे जिणेंतले बदल हांचें चित्रण जाल्लें आसा. गोंयांतले समाजीक जिणेचो प्रवाह आडावन दवरपी परंपरेच्यो वण्टी आनी हे जिणेंत उद्देगीक बदलांक लागून घडून आयिल्लें परिवर्तन, ह्यो सगळ्यो गजाली ताच्या साहित्यांत समर्थपणान चितारिल्ल्यो आसात. ही मुळावी नदर ताच्या काव्यांतूय दिश्टी पडटा. ताच्या एकांकींनी आनी नाटकांनी आविश्काराचें वेगळेपण जाणवता. ह्या साहित्यप्रकारांत ताणें तंत्राचे प्रयोगूय केल्यात. पुंडलीक नायक हाणें साहित्याचे विंगड विंगड प्रकार हाताळ्ळे, तरी कोंकणींतल्या नाटक ह्या साहित्य प्रकाराच्या मळावयलो ताचो वावर चड मोलादीक आसा.

ताचें पुस्तक रुपान उजवाडा आयिल्लें साहित्य अशें आसा. कविता : 'गा आमी राखणे'; कथा : 'पिशांतर', 'मुठय' आनी 'अर्धूक' ; नवलिका:

'बांबर', 'वसंतोत्सव', 'दायज'; नवलकाणी: 'अच्छेव'.

**नाटक** : 'खण खण माती', 'रक्तखेव', 'राखण', 'सुरींग', 'सूर्यसांवट', 'देमांद', 'मुक्तताय', 'शबय शबय भौजन समाज', 'पिंपळ पेटला', 'श्री विचित्राची जात्रा', 'दायज', 'चैतन्याक मठ ना',

**एकाकीका संग्रह** : 'गांवधनी गांवकार', 'चौरंग', 'दिगंत';

**नभोनाटच संग्रह** : 'आकाशमंच',

**भुरग्यांखातीर साहित्य** : 'रानसुंदरी' (गीत-नाट्य), 'आळश्यांक वाग खातलो' (नाटकुलें), 'मनू' (नवलिका).

**नाटकुलें** : 'छपन्न ठिगळी येशवंत', वेंचीक कोंकणी एकांकी' हें संपादीत आनी 'काझी नझरूल इस्लाम' आनी 'नानालाल' हीं ताचीं अणकारीत पुस्तकां आसात.

पुंडलीक नायक कितलींशींच वर्सां कोंकणी कवितेक ओंपिल्लें 'रुतू' हें नेमाळें संपादीत करतालो. कोंकणी भाशेक तिची हक्काची सुवात दिवपाखातीर गोंयांत जी चळवळ जाली, तातूंत चड करून कोंकणी राजभास चळवळींत पुंडलीक नायक हाणें म्हत्वाचो आनी मोलादीक वावर केला. 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' हे राजभास चळवळ चलोवपी संघटनेचो तो निमंत्रक आशिल्लो. गोवा कोंकणी अकादमीचो उपाध्यक्ष तशेंच हेर साहित्यीक संघटनांचोय वांगडी म्हणून ताणें काम केलां.

कोंकणींत नाटकां, नाटकुलीं, एकांकी नभोनाटच बरोवपावांगडाच ताणें कोंकणी नाट्य प्रयोगांचें दिग्दर्शन आनी निर्मिती केल्या. आकाशवाणी वयल्यान ताच्या श्रुतिकांचें सादरीकरण जालां.

१९७५ ते १९८३ मेरेनच्या काळांत गोंयच्या कोंकणी भाशा मंडळाचे साहित्य पुरस्कार येवजणेंत ताच्या पुस्तकांक इनामां मेळ्यांत.

'रानसुंदरी' ह्या भुरग्यांखातीरच्या गीत-नाट्याक आनी 'अच्छेव' हे नवलकाणयेक कला अकादमीचे राज्य पुरस्कार मेळ्ळे. ताचे 'मर्णकटो' हे एकांकीच्या सादरीकरणाक १९८० वर्साचो अखील भारतीय पांवड्यावयलो आकाशवाणी पुरस्कार मेळ्ळो. १९८४ वर्साचो भारतीय साहित्य अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार ताच्या 'चौरंग' ह्या एकांकी-संग्रहाक फावो जालो. 'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या ताच्या नाटकाक ' आस्ट्रेलियन ॲकॅडमी ऑफ ब्रॉडकास्टाचो' १९८८ वर्साचो पॅटर्स ऑस्ट्रेलियन अवॉर्ड, हो आंतरराश्ट्रीय पुरस्कार फावो जालो. १९८५त भारतीय जेसीन भारतांतल्या धा कर्तृत्वी तरणाट्यांची निवड केल्ली, तातूंत पुंडलीक नायक हाचोय आस्पाव जाल्लो. १९८६ वर्सा ताच्या 'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या नाटकाक अखिल भारतीय पांवड्यावयलो आकाशवाणी पुरस्कार मेळ्ळो. तशेंच, १९८७ वर्सा आकाशवाणीन घेतिल्ले अखिल भारतीय नभोनाटच लेखन सर्तींत 'म्हासागरांतलें तारूं' ह्या नभोनाट्याक ताका पयलें इनाम फावो जालें. ताका सर्गेस्त गुंडू सीताराम आमोणकार पुरस्कार मेळ्ळो.

ताचें 'श्री विचित्राची जात्रा' हें नाटक तमीळ भाशेंत अणकारीत जालां. 'मर्णकटो', 'श्री विचित्राची जात्रा' आनी 'पांज' ह्या नाट्य-बरपांचीं रुपांतरां भारतीय भाशांनी जावन, देशांतल्या सगळ्या नभोवाणी केंद्रांवयल्यान तीं प्रसारीत जाल्यांत.

'पिंपळ पेटला', 'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या नाटकांचे मराठी रुपकार रंगमाचयेर आयल्यात.

'रानसुंदरी', 'जैत', 'मर्णकटो' हांचें पणजी दूरदर्शनाचेर अनुक्रमान बालनाट्य, टॅलीफिल्म आनी टॅलीप्ले ह्या रुपांनी वितरण जालां. मराठी, कोंकणी ह्या टेलीफिल्मांखातीर ताणें लेखन केलां.

– प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार

## नायक बर्वे, रामकृष्ण :

**नायक बर्वे, रामकृष्ण :** सतराव्या शतमानांतलो पुर्तुगेजांचो दुभाषी विसरै काँदि द आल्वारे हाणें ताका कवी कलशाकडेन उलोवणीं करपाक धाडिल्लो. १६८४त संभाजी कडेन वाटाघाटी करूंक पाद्री फ्रेय गेल्लो तेन्ना वांगडा दुभाषी म्हणून रामकृष्ण बरवे आशिल्लो. इ. स. १६९४त राजाराम महाराजाचो प्रधान रावजी श्यामराव हाचेकडेन तहाच्यो वाटाघाटी करपाक ताकाच धाडिल्लो. ताचेविशीं पुर्तुगेज सरकाराक विश्वास आशिल्लो. ताणें पुर्तुगेज राज्याखातीर खूब किदें केलें अशें शिफारसपत्र पुर्तुगेजां कडल्यान ताका मेळिल्लें.

– कों. वि. सं. मं.

## नायक बांदोडकार, रामचंद्र विनायक :

**नायक बांदोडकार, रामचंद्र विनायक :** (जल्म : २५ मे १९३३, शापोरा – बारदेस).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें विज्ञान फांट्यांत प्री- डिग्री मेरेन शिक्षण घेतलें. सुटकेझुजांत लोकांक वांटो घेवपाक तो तयार करतालो. २१ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा म्हापश्यां सत्याग्रहांत वांटो घेतलो, देखून पोलिसांनी ताका धरलो. ताका आठ वर्सां बंदखण आनी दोन वर्सां दंड भरपाये बदला बंदखण तशेंच २० वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. १९७६त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों वि. सं. मं.

## नायक , महाबळेश्वर सखाराम :

**नायक , महाबळेश्वर सखाराम :** (जल्म : २४ जुलय १९३०,म्हापशें).

गोंयचो सुटकेझुजारी. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १८ जुलय १९४६ ह्या दिसा ताणें म्हापश्या सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. आंबोली आनी वज्रें गांवांनी आझाद गोमंतक दल संघटनेचें जें शिबीर भारिल्लें तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. भूंयगत क्रांतीविरांक तो आपल्या घरांत रावपाक आदार दितालो. २४ मार्च १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो केलो तेन्ना ताका १३ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तो बंदखणींत आसतना ताका जायत्या त्रासांक तोंड दिवंचें पडलें. ऑगस्ट १९५९त ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९७८त म्हापश्यां गांवकारांनी ताचो सत्कार केल्लो. तो मराठी पत्रकार संघ 'सार्वजनीक गणेशोत्सोव' मंडळ आनी श्री देव बोडगेश्वर संस्थान हांचो वांगडी आसा.

– कों. वि. सं. मं.

## नायक, मोगाबाय सखाराम :

**नायक, मोगाबाय सखाराम :** (जल्म : म्हापशें).

गोंयची सुटकेझुजारी. ती आझाद गोमंतक दल संघटणेची वांगडी

आशिल्ली. सुटकेझुजाऱ्यांक आपल्या घरांत रावपाक आलाशिरो दिवप, तशेंच तांकां लिपचोरयां बसका घेवपाक पालव दिवप असलीं कामां ती करताली. ती क्रांतीवीरांक पालव दिता ह्या आरोपाखाल तिका मार्च १९५३ त पोलिसांनी अटक केली. तिचे वांगडा तिचो भाव महाबळेश्वर नायक आनी पूत श्रीकांत नायक हांकांय अटक जाली. दंड म्हणून तांकां तांचें दुकान बंद करचें पडलें. दोन वर्सां बंदखण भोगल्या उपरांत तिची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तिचो भोवमान केलो. १८ जून १९८१ ह्या दिसा गोंय सरकारानूय तिचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक, यशवंत विनायक :** (जल्म : २ सप्टेंबर १९२६, शिवोली – बारदेस).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. 'क्वीट गोवा ऑर्गनायझेशन' हे संस्थेचो तो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां लावप, भौशीक वाठारांनी तिरंगी बावटे लावप आनी लोकांमदीं राजकी जागृताय हाडप असलीं कामां तो करतालो. १३ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका अटक केली. प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायकर, ई. वी. रामस्वामी :** (जल्म : १७ सप्टेंबर १८७९, एरोड; मरण : २४ डिसेंबर १९७३, वेल्लूर).

द्रवीड आंदोलनाचो मुखेल फुडारी आनी तमीळ जनतेंत पेरियार (व्हड आत्मो) आनी थानथाई (बापूय) म्हणून नामना आशिल्लो एक समाजसुदारक. एके कन्नड नायकर जमातींतल्या संपन्न कर्मठ हिंदू घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताचें फकत तिनूच वर्सां शालेय शिक्षण जालें. पिरायेच्या १९ व्या वर्सा ताचें लग्न ताच्या नात्यांतल्याच नागमल्ल हे चलयेकडेन जालें.

गरीब आनी अश्पृश्य हांकां पळोवन ताचें मन खिन्न जालें आनी तेखातीर ताणें धर्मग्रंथाचो चिकित्सापूर्ण अभ्यास केलो. जायत्यो वायट रुढी पळोवन ताचो हिंदू धर्मावयलो विश्वास गेलो. देखून ताणें समाजीक समतेचो आनी अस्पृश्य उद्धाराचो प्रचार सुरू केलो.

इ. स. १९१६-१९२६ ह्या काळांत ब्राह्मणेत्तर चळवळीचो जाहीरनामो प्रभावीपणान लोकांमुखार मांडलो. हे चळवळींत मुसलमान, किरिस्तांव आनी अनुसुचीत जाती हांचोय आस्पाव आशिल्लो. फुडें व्हड काँग्रेस फुडारी चक्रवर्ती राजगोपालाचारी हाच्या सल्ल्यान तो काँग्रेसींत गेलो. १९२० वर्सा ताणें असहकार चळवळीचें फुडारपण केलें आनी ताचेखातीर ताका बंदखण भोगची पडली. अस्पृश्यांवयले निर्बंध पयस करपाखातीर त्रावणकोराक जाल्ल्या वैक्कीम सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पददलीत समाजाच्या हक्कांक राखण दिवपाखातीर ताणें १९३५ वर्सा स्वाभिमान आंदोलन सुरू केलें. १९३१ त ताणें रशिया आनी युरोपाची भोंवडी केली. १९३३त ताणें लोकांक ब्रिटीश सत्तेआड बंड करपाचें आवाहन केलें. जाचेखातीर ताका परत बंदखण भोगची पडली.

पयल्या काँग्रेस मंत्रीमंडळाच्या काळांत १९३७त ताणें पयले खेपे हिंदी आड चळवळ सुरू केली. हाचेखातीर ताका परत बंदखणीची ख्यास्त जाली. १९३८त जस्टिस पार्टीचें फुडारपण ताचेकडें आयलें. इ.स. १९४४त ताणें पोरन्या जस्टिस पक्षाचें रुपांतर द्रवीड कळघम् ह्या नव्या पक्षांत केलें. सार्वभोम आनी वर्णभेदविरयत द्रवीड नाडुची स्थापना हे ताच्या द्रवीड कळघम् पक्षाचें ध्येय आशिल्लें. फुडें ताणें आपली पयली बायल मरतकूच पिरायेच्या सत्तराव्या वर्सा मणिअन्नाई हे २८ वर्सां पिरायेचे आपले सहाय्यिकेकडेन १९४९त लग्न जालो. हे गजालीचो निशेध करपाक ताचोच सहकारी अण्णदुराई हाच्या फुडारपणाखाल ताच्या कांय अनुयायांनी ताचो पक्ष सोडलो आनी 'द्रवीड मुन्नेग कळघम्' हो नवो पक्ष सुरू केलो.

द्रवीड कळघम् पक्षांत फूट पडली तरी रामस्वामी हाचो तमीळ लोकांवयलो प्रभाव उणो जालो ना. ताणें १९७१त अंधश्रद्धानिर्मुलन घडोवन हाडून धर्म, जात, भास हाच्या आदाराचेर जावपी सगले तरेचो पक्षपात पयस करपाचें सरकाराक आवाहन केलें. तशेंच हिंदी भाशेक विरोध प्रगटायलो. हिंदू धर्म हो ब्राह्मणाच्या वर्चस्वाचें आनी मक्तेदारीचें एक साधन आसून मनुस्मृती म्हळ्यार वर्णवर्चस्वाचें समर्थन करपी ग्रंथ आसा आनी पुराणां म्हळ्यार परिकथा अशीं ताचीं मतां आशिल्लीं. वर्णवेवस्था, बालविवाह, बळजबरीचें विधवापण हांचेआड तो सतत प्रचार करतालो. ताणें जायत्यो पुस्तिका बरयल्यो आनी द्रवीडनाडू हें तमीळ सातोळें चलयलें. ताणें जाती वेवस्थेंतले दोश काडपाखातीर आनी समानताय प्रस्थापीत करपाखातीर जायते त्रास घेतले. कांय लोकांक ताचीं हीं कामां मानवनाशिल्लीं. जाल्यार कांय लोक ताका 'ब्राह्मणेतर फुडारी' आनी मुर्तीभंजक म्हंटाले. ताणें रामाची मूर्त आनी रामायण लासून उडयलें. ताका लागून ताच्या मरणाउपरांत रावणालिला मनोवंक लागले.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक, रामचंद्र शंकर (राणू नायक) :** (जल्म : १३ ऑगस्ट १८९३ म्हाड्डोळ; मरण : २ जानेवारी १९६०).

नामनेचो साहित्यीक. ताणें मुळावें मराठी शिक्षण गांवांतूच घेतलें. थंयच तो सेगुंद ग्रावामेरेन पुर्तुगेज शिकलो. शिक्षणांतली ताची हुशारी पळोवन ताच्या एका पुर्तुगेज शिक्षकान ताका फुडलें शिक्षण घेवपाक उत्तेजन दिलें. उपरांत ताणें पणजे लिसेवाचें पांच वर्सां शिक्षण घेतलें.

प्रशिक्षीत जातकूच शिक्षक म्हणून ताची नेमणूक जाली. कालापूर, खोर्ली, कुभारजुवें ह्या सुवातांनी ताणें सात वर्सां नोकरी केली. फुडें इश्कोल नॉर्मालाचो प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. त्या काळांत फकत युरोपीय प्रोफेसरानूच पुर्तुगेज भास शिकोवपाचो नेम आसलो. पूण राणू नायक हाका अपवाद आशिल्लो. पुर्तुगेज भाशेचें गिन्यान आनी पुर्तुगेज साहित्याचो अभ्यास पळोवन ताका पुर्तुगेज प्रोफेसराचे सुवातेर नेमलो.

ताणें मराठींतल्यान आपल्या नांवान तशेंच 'सुनील' ह्या टोपण नांवान बरप केलें. पूण ताचें कोंकणी बरप मात त्या मानान चड आसा. ताणें वट्ट आठ कोंकणी नाटिका बरयल्यात. 'चवथीचो चंद्र', 'रायबाऱ्याची व्हाड्डीक', 'दामु कुराडो', 'एकापरस एक हटी', 'म्हजो सर्गार आशिल्लो घरकार' ह्यो ताच्यो कांय गाजिल्ल्यो नाटिका. ताणें 'उनियांव आकादेमिक' ही संस्था स्थापन केल्ली आनी हे संस्थेचे वर्सुकी संमेलनाखातीर ताणें ह्यो

नाटिका बरयल्ल्यो.

त्या काळांत गोंयांत ज्यो चळवळी जाल्ल्यो तातूंत लेखणी आनी वाणीच्या रुपान ताचो वांटो आशिल्लो. साहित्य, शिक्षण, नाट्य आनी कला ह्या कार्यांनी तो सदांच फुडें आसतालो.

पिरायेच्या निमाण्या कांय वर्सांनी ताणें कोंकणीचो एक मोलादीक वावर केलो, तो म्हळ्यार 'कोंकणीचो कोश'. ह्या कोशाखातीर ताणें २६ हजार उतरां एकठांय करून तांचे अर्थ लायले. ताचो एक स्मारकग्रंथ काडला.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक, लक्ष्मण उर्फ लक्ष्मीकांत माधवराव :** (जल्म : १७ मार्च १९३७, नागपूर तालुको, कन्नड प्रांत औरंगाबाद – महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो समाजवादी काँग्रेसीचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा कणकुंभीच्यान गोंयांत येवन सुर्ला जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरून थंयच्या देवळांत बंद करून दवरलो, खूब मार दिलो आनी दुसऱ्या दिसा सोडलो. १९८७ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक, वल्लभदास वासुदेव :** (जल्म : ३ जानेवारी १९३३, वेळ्ळी-साश्ट).

गोंयचो सुटकेझुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तेचवांगडा तो गोंय सुटके सैन्याचोय वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी जालो. दल संघटनेच्या माजाळे शिबिराखातीर तो वावर करतालो. १३ फेब्रुवारी १९५६ ह्या दिसा 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेच्या वावराखातीर गोंयांत आयिल्लो आसतना पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून णव वर्सां खर बंदखण, दंड भरपायेबदला आनीक एक वर्स बंदखण आनी एक वर्स सुरक्षिततायेचे राखणेखाल दवरलो. २८ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. बंदखणींतल्यान सुटका जातकूच तो कृष्णराव राणे आनी प्रभाकर सिनारी हांच्या फुडारपणाखाला परत सुटकेझुजाचो वावर करूंक लागलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक,वामन वासू :** (जल्म : २० मार्च १९२०, ओशेलबाग – पेडणें).

गोंयचो सुटकेझुजारी. तो 'आझाद गोमन्तक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटकेझुजाऱ्यांक पुर्तुगेज पोलिसाविशीं तो खबरो पावयतालो. तो राश्ट्रीय वावरांनी वांटो घेता ह्या आरोपाखाला ताका नोकरेवयल्यान काडून उडयलो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक, विठ्ठल शिवराम :** (जल्म : १४ नोव्हेंबर १९२९, दिवचल).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. सुटकेझुजारी आपा करमळकर हाच्या मार्गदर्शनाखाला तो काम करतालो. मुंबयच्या गुप्तहेर खात्याक गोंयच्या पोलीस कारवायांविशीं तो खबरो पावयतालो. १९ डिसेंबर १९५९ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका गोंयचे सुटकेमेरेन बंदखणींत दवरलो. तो बंदखणींत आसतना ताच्या घरच्यांक पोलीस त्रास दिताले. १९७२त भारतसरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक, विष्णू हरिश्चंद्र :** (जल्म : १५ फेब्रुवारी १९३१ सांगे).

गोंयचो सुटकेझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत हातीपत्रकां वांटप, पत्रकां लावप, बसकांनी वांटो घेवप, क्रांतीविरांक गोंयचे शिमेभितर येवंक पालव दिवप असलीं कामां तो करतालो. १९५५त सिंधुताई देशपांडे हिचे बसकेंत ताणें वांटो घेतलो, ह्या आरोपाखाला पोलिसांनी ताका धरपाचें फर्मान काडिल्लें. उपरांत पोलिसांनी ताका धरलो आनी १० म्हयने बंदखणींत घालो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. १८ जून १९८४ ह्या दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायक, शामसुंदर रमाकांत :** (जल्म : १२ मे १९३१, म्हापशें).

गोंयचो सुटकेझुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो पत्रकां वांटप, तिरंगी बावटे लावप, घोशणा बरोवप असलीं कामां करतालो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा म्हापश्यां जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतलो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी प्रादेशिक न्यायालयामुखार उबो करून १२ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. २६ जानेवारी १९५५ ते १० जानेवारी १९५६ ह्या काळांत तो आल्तिन्या वयले बंदखणींत आशिल्लो. १२ जानेवारी १९५६ ते ऑगस्ट १९५७ ह्या काळांत तो आग्वाद बंदखणींत आशिल्लो, जाल्यार २७ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा सुटका जायमेरेन तो रेयश मागुश बंदखणींत आशिल्लो. बंदखणींत आसतना ताका पोलिसांनी खूब त्रास दिलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नायकस्वामी उर्फ श्रीपुर्णप्रकाशानंदनाथ :** एक संत. ह्या संताच्या चरित्राविशीं फावो ती म्हायती मेळना. पूण श्रीपाद व्यंकटेश वागळे हाणें आपल्या 'श्रीमंगेश देवस्थानाचा इतिहास' ह्या पुस्तकांत नायक स्वामीची कांय प्रमाणांत म्हायती दिल्या, ती अशी – हो मनीस मूळचो कारवार जिल्ह्यांतल्या दिवगीलागीं अंत्रवल्ली गांवांत रावपी. ताचें नांव शंकर मंगेश नायक करंडे देसाई. एक फावट तो आपल्या कुटुंबासयत

कूलदेवाच्या दर्शनाक येता आसतना काणकोणच्या रानांत ताची आनी ताच्या कुटुंबाची चुकामूक जाली. कशेच तरेन तांची गांठ जायना तें पळोवन निमाणें ताणें मंगेश देवाक सांकडें घालें. तेन्ना ताका एका अवधूतवेशी मनशाचें दर्शन घडलें. ताणें ताका जिविताच्या खऱ्या अर्थाविशीं उपदेश केलो. तें आयकून ताचो पुराय कायापालट जालो. फुडें ताणें संवसाराचो त्याग करून परमेश्वर भजनांत काळ घालयत मंगेशींच वसणूक केली. निमाणें समाधी काळामेरेन तो थंय आशिल्लो. हाचेभायर ताच्या चरित्राविशीं चड म्हायती मेळना.

वागळे हाणें ताचें नांव शंकर अशें दिलां. ताचे कवितेंत लेखकाचें नांव दिलां तें मंगेश. पूण ताका नायकस्वामी वा पूर्णप्रकाशानंदनाथ ह्याच नांवान वळखतात. ताणें आपली गुरूपरंपराय दिल्ली आसून नाथ संप्रदायांतलो ब्रह्मानंदनाथ हो आपलो गुरू आशिल्ल्याचें सांगलां.

ह्या कवीचे तीन ग्रंथ उपलब्ध आसात. तातूंतलो १८४७ ओवयो आनी अध्याय आशिल्लो श्रीपुर्णप्रबोधचंद्रोदय हो पयलो आनी व्हड ग्रंथ. 'शिवदर्पण' हो ताचो दुसरो ग्रंथ. हो ग्रंथ अनुष्टुप छंदांत आसा. तिसरो ग्रंथ राधाविलास हो १७० श्लोकांचो आसा.

नायकस्वामीच्या ग्रंथांत ताणें खंयच आपली म्हायती दिल्ली ना. पूण ताचो शिश्य व्यंकट हाणें आपलो काळ दिला, ताचेवयल्यान नायकस्वामीचो काळ सतराव्या शतमानाच्या निमाणें आनी अठराव्या शतमानाचे सुरवातेक आसूंक जाय.

नायकस्वामीन आपलें उरिल्लें आयुश्य मंगेश देवस्थानांत रावन देवाचे सेवेंत घालयलें आनी थंयच आपलो देह दवरलो असो समज आसा. मंगेश देवस्थानांत ताची समाधी आसून ताच्या पादुकांची थंय सदांच पुजा जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**नायका :** एक अनुसुचीत जमात. ह्या लोकांची वसती चड करून गुजरात आनी महाराष्ट्रांत आसा. नायका आनी नायकडा अशा दोनूय नांवांनी तांकां वळखतात. तांचे चोळीवाला नायका, कपाडिया नायका, मोट नायका आनी नाना नायका अशे पोटविभाग आसात. ते चडप्रमाण नायका भिल, बरोदिया, दोडंया, दभडिया, कडरिया, कातकरी, गवित, नाईक, पवार, सवारे, ठोक्रे आनी वाघ अशीं कुळां आसात.

१९६१चे जनगणनेप्रमाण नायकांची लोकसंख्या १,१९,७५५ आशिल्ली.

महाराष्ट्रांतले चडशे नायका लोक भिल्ली भास उलयतात. दादले खोमीस, पुडवें आनी माथ्यार तोपी घालतात आनी बायलो साडी - चोळी असो भेस करतात. आंकवार चलयो कपल, खाडकी, पोले आनी मनगटांचेर पाडून घेतात.

हे लोक कोंड्यांनी बांदिल्ल्या घरांनी रावतात. वण्टी शेणान सारयतात. गायो-म्हशी घरांतूच बांदतात. चडशे नायका हिंदू आसून मरिमाता, काकाबलिया आनी देवलिमाडी हीं तांचीं मुखेल दैवतां. हिंदूंचेच सण-परबो ते मनयतात. दिवाळी आनी होळी हे तांचे मुखेल सण. भूतां-खेतां, जादू हांचेर तांचो विस्वास आसून तेविशीं ते भगताचो सल्लो घेतात.

ज्वारी आनी कड्डणां हें तांचें मुखेल अन्न आसा. गायचें सोडून ते हेर मास खातात. च्या हें तांचें आवडीचें पेय. सणा-परबेक ते सोरो पियेतात.

नायका लोकांमदीं पितृसत्ताक कुटूंबपद्दत आसा. तांचीं एकाच कुळांत लग्नां जायनात. तांचेभितर विधवा विवाहाक मान्यताय आसून, सेवाविवाह आनी घरघुशी पद्दतिनूय लग्नां जातात. विधवा विवाहाक धर्मीक विधींची गरज नासता. मामा-भाची तशेंच मावस वा आते भयणीकडेन ते लग्नां जायनात.

बारा दीस सुवेर धरतात. समाजांतलीं झगडीं-झुजां, घटस्फोट, चोरी असलीं प्रकरणां गांवांतल्या पंचाकडल्यान सोडयतात. ह्या लोकांमदीं मडें पुरपाची आनी लासपाचीय चाल आसा. तेविशींचो धर्मीक विधीचो हक व्हडल्या पुताक मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**नायकीण :** (पळेयात देवदासी).

**नायगारा धबधबो :** उत्तर अमेरिका खंडातल्या पळोवपासारक्या आनी एका आगळ्यावेगळ्या देखाव्यांतलो एक संवसारीक नामनेचो धबधबो. कॅनडा आनी अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांचे शिमेर आनी ईअरी तशेंच ऑंटेरिओ ह्या तळ्यांक जोडपी नायगार न्हंयेचेर हो धबधबो आसा. गोट जुंव्यान ह्या धबधब्याचे दोन भाग पाडल्यात. ह्या धबधब्याक 'नायगारा फॉल्स' वा 'अमेरिकन फॉल्स' अशें म्हण्टात. ताची उंचाय ५१ मी. आनी रुंदाय ३०५ मी. आसा. कॅनडांतल्या धबधब्याक 'कॅनडियन फॉल्स' वा 'हॉर्सशू फॉल्स' अशें म्हण्टात. ताची उंचाय ४८ मी. आनी लांबाय ७९२.५ मी. आसा. अमेरिकेंत वा कॅनडांत युरोपीय लोकांच्यो वसणुको जावंचे पयलींसावन जायत्या इंडियन 'जमातींक' ह्या धबधब्याची खबर आशिल्ली. सुरवातेक फादर हेनेपिन हाणें १६७८ आनी १६८३त ह्या धबधब्याक भेट दिवन ताचें वर्णन बरयलें. ह्या धबधब्याच्या उदकाचें फकत ६% उदक अमेरिकन फॉल्सावयल्यान व्हांवता. उरिल्लें उदक कॅनडाच्या धबधब्यावयल्यान व्हांवता.

त्या धबधब्याचें व्हांवतें उदक नितळ आनी निवळ आशिल्ल्यान धबधब्याची सोबीतकाय चडूच नदरेंत भरता. कॅनडावटेन क्वीन व्हिक्टोरिया पार्का सावन आनी अमेरिकन फोल्सलागसल्ल्या प्रॉस्पेक्ट पॉयंटासावन धबधब्याची सोबीतकाय चडूच उठून दिसता. रातच्या वेळार धबधब्याचें उदक जंय पडटा थंय रंगीत उजवाडाची वेवस्था केल्ल्यान आनी ताचे भोंवतणीं व्हड-व्हड उद्यानां आशिल्ल्यान थंय भोंवडेकारांची खूब गर्दी आसता. १९४१ त नायगारा न्हंयचेर 'रेनबो ब्रिज' नांवाचो पूल बांदला. ह्या पुलावयल्यान धबधब्याचे सोबीतकायेचें दर्शन घडटा. ह्या धबधब्याक जाय तशी उदकापुरवण जांवची आनी ताची सोबीतकाय तिगून उरची देखून अमेरिका आनी कॅनडा ह्या देशांमदीं १९५०त करार जाल्लो. तेप्रमाण पर्यटक हंगामांत दर सेकंदाक उण्यांत उणें ३,००० घ. मी. उदक आनी हेर वेळार दर सेकंदाक उण्यांत उणें १५०० घ. मी. उदक सोडटात. उरिल्लें उदक वीज निर्मिती करपाक वापरतात. तेचपरी अमेरिकन फॉल्साक जाय तशें उदक मेळचें देखून ताका खारजा वरवीं उदका पुरवण करतात. अमेरिकन धबधब्याखातीर सकयल आशिल्ल्या फातरांचेर व्हड प्रमाणांत परिणाम जातालो. हें पळोवन १९६९त न्हंय कांय काळ दुसरेकडेन घुंवडावन तो वेवस्थीत केला. ह्या धबधब्याकडेन संबंदीत

आशिल्लें इतिहासीक आनी प्रकृतीक इतिहास साहित्य न्यूयॉर्क राज्यांतल्या नायगारा फॉल्स शाराच्या नायगारा फॉल्स म्यूझियमांत आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**नायजर :** अस्तंत आफ्रिकेंतलें एक प्रजासत्ताक राश्ट्र. क्षेत्रफळ ११,८६,४०८ चौ. किमी. विस्तार १२° उत्तर ते २३° ३०′ उत्तर आनी ०°३०′ उदेंत ते १५°३०′ उदेंत न्यामे राजधानी देशाचे नैर्ऋत्येक कोनशाक आसा. नायजरचे उत्तरेक अल्जेरिया आनी लिबिया; उदेंतेक चॅड; दक्षिणेक बॅनीन आनी नायजेरिया, अस्तंतेक बुर्किना फासो (अपर व्होल्टा) आनी माली देश आसात.

**भूंयवर्णन :** नायजरचो उत्तरेकडचो आनी उदेंतेंतलो सु. २/३ वांटो सहारा रेंवटाचो आसा. आग्नेयेक चॅड दोंगुल्ल्यांचो वाठार आसा. हांगा ग्रेबोन हें २,००० मी. उंचायेचें तेमूक आसा. ईशान्य आनी उदेंत वाठारांनी चडशो रेंवेच्यो दोंगुल्ल्यो आसात. नैर्ऋत्येक नायजर न्हंय, आग्नेयेक चॅड तळ्याक मेळपी कोमाडुगू योबे न्हंय आसा.

कर्कवृत्ताचे दाक्षिणेक आशिल्ल्यान हो एक उश्ण देश. न्यामेक सरासरी तापमान ३३° ते ३८° सें. इतलें आसता. नैर्ऋत्य भागांत वर्सुकी सरासरी पावसाचें प्रमाण ५५ सेंमी. आसा आनी तें उत्तर आनी उदेंत भागांकडे उणें जायत वता. देशाच्या मदल्या वाठारांनी तें १८ सेंमी. इतलें आसता. जानेवारी-फेब्रुवारींत ईशान्य वेपारी सुकें वारें व्हांवता. एप्रिल-मे म्हयन्यांत दर्यांतल्यान येवपी वाऱ्याक लागून चक्री वादळां जातात. जून ते ऑक्टोबर शितळ आनी पावशी ऋतू आसता. चडसो ऑगस्टांत साबाळ्याक पावस पडटा.

उत्तरेक रेंवाट पडीग जमीन आसा. दक्षिणेकडची जमीन पिकाळ आसा. 'साहेल' वाठारांनी काटयांचीं झोंपां आसात. उदेंतेक आनी उत्तरेक ओस वाठारांनी उदक सांठोवपी वनस्पत वाडटा आनी रेंवटांत जळींमळीं खाजूर, ताड आनी हेर रूख मेळटात. साहेल वाठारांत शहामृग आनी हरणां आसात. हती, घोडे, शींव, माकड, काळवीट आनी हेर तरेकवार मोनजात मेळटा.

**इतिहास :** एक हजार वर्सां पयलींचो नायजराचो इतिहास म्हळ्यार अरब, बर्बर, सोंघाई, हौसा, फुलानी आनी तुराग हांच्या लडायांचो इतिहास. धाव्या शेंकड्याच्या सुमाराक चॅड तळ्यालागचो वाठार घेवन बर्बर लोकांनी हौसा राज्याची थापणूक केली. इकराव्या आनी बाराव्या शेंकड्यांनी अरबांनी धर्मीक झुजां करून बर्बरांक दक्षिणेक धांवडावन घाले आनी सक्तीन धर्मांतर करून हांगासर इस्लाम धर्मियांचो आंकडो वाडयलो. १५१५त पयल्या अस्किया मुहंमदान सोंघाई जमातीच्या साम्राज्याची थापणूक केली.

१९२२त नायजर हो फ्रँच वसणुकेचो एक भाग जालो. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत स्वातंत्र्य चडवळीक गती आयली. १९४६ वर्सा नायजराक एक प्रदेशीक विधिमंडळ तयार करून लोकांक फ्रँच नागरीक केले. ह्या मंडळाच्या मतदानाक लागून डिसेंबर १९५८त नायजर हें पांचवें फ्रँच गणतंत्र जालें. ३ ऑगस्ट १९६०त नायजर पुराय स्वतंत्र जालो.

**अर्थीक स्थिती :** सहाराचे दक्षिणेक हो रेंवट आनी ओस पडिल्लो प्रदेश आशिल्ल्यान, देशाचो विकास, उत्तरेक पशुपालन आनी दक्षिणेक शेतवड हांचेर आदारिल्लो आसा. देशांत फकत ९.६% जमीन शेतवडीक आनी लागवडीक वापरतात. ८६ % लोक शेतवड आनी पशुपालन हांचेर जियेतात. भूंयमूग आनी कापूस हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं पिकां. कसावा, तोर, कांदे, खाजूर, जोंधळो, कणंगां, तंबाकू हीं पिकां उण्या प्रमाणांत जातात. शेतवडी परस चड म्हत्वाचो वेवसाय पशुपालन. देशाच्या ६०% भागांत हो वेवसाय चलता. खनीज सांठ्यांत, खनीज मीठ आनी लोखण मेळटा. फातरी कोळसो आनी खनीज तेल कांय वाठारांनी मेळटा. नायजर न्हंयेत आनी चॅड तळ्यांत कांय प्रमाणांत नुस्तें मारतात. देशांतलो वेव्हार बरे येरादारेची सुविधा नाशिल्ल्यान मर्यादीत आसा.

देशांत १९८१ मेरेन ८,५४७ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. हांगा न्यामे, झिंडर आनी माराडी हे आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. ह्या देशांत रेल्वे मार्ग ना.

हांगाचे लोकसंख्येची दाटी चड आसा. न्हंयेच्या वाठारांत चड लोक रावतात. सावळ्या रंगाचे लोक नायजर न्हंयेच्या वाठारांत रावतात. तुराग आनी फुलानी हे हेडगे लोक गोरवां आनी मेंढरां पोसतात. हांगाचे चडशे लोक मुसलमान आसात. तांच्यो कितल्योशोच जाती आनी विंगड विंगड भासो आसुनूय फ्रँच भास ही शासनाची अधिकृत भास आनी शिक्षणाचें माध्यम आसा.

साक्षरतायेचें प्रमाण फकत ५.८% आसा आनी शिक्षणीक मळार हो देश सामको फाटसारिल्लो आसा. न्यामे, झिंडर, माराडी, ताउआ हीं हांगाचीं मुखेल शारां.

– कों. वि. सं. मं.

**नायजेरिया :** फॅडरल रिपब्लीक ऑफ नायजेरिया. आफ्रिका खंडाचे अस्तंत देगेवेयलो सगळ्यांत व्हड देश. क्षेत्रफळ ९,२३,७७३ चौ. किमी. विस्तार २°३०′ उदेंत ते १४° ३०′ उदेंत आनी ४°३०′ उत्तर ते १४°१७′ उत्तर. हाचे उदेंतेक कॅमेरून, उत्तरेक नायजर, अस्तंतेक बॅनीन आनी दक्षिणेक अटलांटीक म्हासागराचें गिनीचें आखात आनी ईशान्येक चॅड तळें आसा. हाची उदेंत-अस्तंत लांबाय १,१२६.५ किमी. आनी दक्षिण-उत्तर लांबाय १,०५० किमी. आसा. लागोस हें ह्या देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** नायजेरिया हो आफ्रिकेच्या सड्यावयल्यान अस्तंतेक आनी उत्तरेक देंवत गेल्लो प्रदेश. हांगा ६१० मी. ९१५ मी. आनी १,२२० मी. उंचायेचे वाठार आसात. अस्तंत आनी उत्तरेक पुर्विल्ल्या घट्ट खडपांचे आनी मदीं-मदीं ऊंच मळांचे प्रदेश आसात. चॅड तळ्याकडचो प्रदेश आनी सोकोटो न्हंयेचो प्रदेश देगांनी मोव आनी आर्विल्ल्या खडपांचो आसा. उदेंतेक ॲडामावाचो उंच दोंगरी प्रदेश आनी ऊंडी सड्याचो प्रदेश आनी उत्तरेकडचो जॉस आनी ब्यू सड्याचो प्रदेश हे नायजेरियांतले म्हत्वाचे प्रदेश. देशाचो उत्तरेकडचो वाठार, सहारा ह्या रेंवटी प्रदेशाक तेंकून आसा. नायजर ही आफ्रिकेंतली तिसरी व्हड न्हंय. नायजेरियांत वायव्येक भितर सरून आनी नैर्ऋत्येक व्हांवत वचून ती गिनिच्या आखाताक मेळटा.

**हवामान :** देशाचे आग्नेयेक दमट, उत्तरेक आनी अस्तंतेक उश्ण सॅव्हाना प्रकारचें आनी सामकें उत्तरेक सुकें स्टॅप प्रकाराचें हवामान आसता. दक्षिणेक पावस मार्च ते नोव्हेंबर ह्या तेंपार पडटा आनी उत्तरेक मे ते सप्टेंबरांत पडटा. दक्षिणेक हवामान सम आनी सौम्य आसता. जॉस

सड्यार तापमान उणें उरता. तापमानाप्रमाण पावसांतूय विंगड विंगड प्रकार मेळटात. अस्तंतेक सरासरी पावस १७५ सेंमी. आनी उदेंतेक ४२५ सेंमी. इतलो वाडत वता, पूण मदल्या वाठारांनी पावस उणो पडटा. हांगा वाऱ्याचे दोन प्रकार दिसतात. ते म्हणजे हरमॅटन हो उश्ण आनी सुको वारो सहारा रेंवटांतल्यान येता आनी दुसरो विषुववृत्तीय पावस हाडपी दर्याचो वारो.

**वनस्पन आनी मोनजात :** नायजेरियांत वाठाराप्रमाण जशें जशें ह्वामान बदलत वता तशे तशे दर एका वाठारांत वनस्पतीचे विंगड विंगड प्रकार दिसतात. तशेंच न्हंयेच्या देगांचेर १६ ते ९६ किमी. रुंदायेचीं खारफुटीं आनी रेंबट रानां आसात. हाचेपलतडीं ८० ते १६० किमी. रूंदायेचीं विषुववृत्तीय रानां आसात. जातूंत तेलताड, सापेली, माहोगॉनी, इरोको, ओबिची आनी हेर ऊंच रूख आस्पावतात. अस्तंती आनी मध्य अस्तंती प्रदेशांत कोको आनी रबर हांची लागवड केल्या. गोरिला, चिंपांझी, तरेकवार सोरोप, मानगीं, उदकांतले घोडे, हती, जिराफ आनी शींव सारकिल्ली मोनजात हांगाच्या रानांनी दिश्टी पडटा. तशेंच न्हंयांनी तरातरांचीं नुस्तींय आसात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** इंग्लीश राजवटी पयलीं नायजेरियाच्या इतिहासाची पुराय म्हायती मेळना. मध्ययुगांत नायजेरियाचो संबंद अस्तंत सुदानी राज्यांकडेन आशिल्लो. पंदराव्या शतमानांत नायजेरियाचेर इस्लामी धर्माचो खूब प्रभाव पडलो. कानो हें इस्लामी धर्मशास्त्राचें शिक्षण दिवपी तशेंच म्हत्वाचें वेपारी केंद्र आशिल्लें. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवातेक फुलानी शेख हाणें 'जिहाद' (पवित्र झूज) केलें. उथमान डॅन फोडिआं हाणें फुलानी साम्रज्याची थापणूक केली.

नायजर न्हंयेचे देगेर गुलामांचो वेपार खूब तेंप चलतालो म्हणून ताका 'गुलामांची देग' ह्या नांवांन वळखताले. कांय थळावे लोक हेर लोकांक धरून तांकां गुलाम म्हणून विकताले. १८०७त इंग्लीशांनी गुलामांचो वेपार बंद केलो. हाका लागून थंय हेर वेपार वाडीक लागले. नायजर न्हंयेचो मार्ग सांपडिल्ल्यान, वेपाराची आनीक उदरगत जावपाक लागली. १८६१त इंग्लिशांनी लागोस जुंव्याचेर जैत मेळयलें आनी ताड तेलाचो वेपार तांच्या हातांत आयलो. १८८५त इंग्लिशांच्या शेकातळा आशिल्ल्या उदेंत देगेच्या वाठाराक 'ऑयल रिव्हर प्रोटेक्टोरेट' हें नांव दिलें. नायजेरियाचो मदलो वाठार इंग्लिशांच्या शेकातळा हाडपाचें काम सर जॉर्ज गोल्डी हाणें केलें.

हांगा १९१४त ब्रिटीशांची एक वेगळी वसणूक निर्माण जाली. तिचो राज्यकारभार इंग्लिशांच्या हातांत आसलो. पयलीं सर फ्रॅडरिक लुगार्ड आनी मागीर लॉर्ड लुगार्ड हे गव्हर्नर आशिल्ले. ह्या इंग्लिशांच्या विभागांतलें खाशेलेपण म्हळ्यार ताणीं हांगाच्याच थळाव्या लोकांच्या हातांतल्यान राज्यकारभार चलयलो. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत स्वतंत्रतायेच्यो मागण्यो जावपाक लागल्यो. १९५४तल्या संविधानाक लागून नायजेरियेक संघराज्यात्मक सरकाराची थापणूक केली. १ ऑक्टोबर १९६०त नायजेरियेक संघराज्य म्हणून दर्जो मेळ्ळो आनी देश स्वतंत्र जावन १९६३त नायजेरिया प्रजासत्ताकाची थापणूक जाली.

लश्करी प्रशासनांत सर्वोच्च लश्करी काउन्सील कारभार पळयता. तातूंत लश्कराचो सेनापती हो अध्यक्ष आनी राश्ट्रमुखेल आसता. एक संघराज्य काउन्सील आसता आनी हातूंत सेनापती वांगडा हेर राज्यांचो एक-एक मुलकी प्रतिनिधी आसता. दर एका राज्याचें वेगळें कार्यकारी मंडळूय आसता.

**अर्थीक स्थिती :** दुसऱ्या महाझुजा उपरांत उद्देगधंदे वाडत आसात. पूण शेतवड हो हांगाचो एक म्हत्वाचो उद्येग. कोको, भूंयमूग, कापूस, ताडतेल आनी रबर हीं हांगाचीं मुखेल नगदीं पिकां. कथील, खनीज तेल, कोलंबायट हीं खनिजां म्हत्वाचीं आसात. उत्तरेक चडसो गोरवां पोसपाचो वेवसाय नेटान चलता. उत्तरेकडचे फुलानी लोक पशुपालनाचो वेवसाय करतात. देशाचो ३,६२,६०० चौ. किमी. भाग रानांनी वेश्टिल्ल्यान, रानां हीं अर्थीक नदरेन म्हत्वाचीं आसात. उदकांतले येणाळीचेंय मोल बरेंच आसा. वट्ट उत्पन्नातलें सु. ६% उत्पन्न खणींतल्यान मेळटा. कोळसो हें म्हत्वाचें उर्जासाधन आसलें तरी खनीज तेलाचें उत्पादन वाडत आसा. तरातरांचे कपडे विणपाचे बरेच कारखाने ह्या देशांत आसात.

रस्त्या येरादारीच्या मळार नायजेरियाची उदरगत दिसान दीस जायत आसा. हांगा सु. ९०,००० किमी. लांबायेचे रस्ते आसात. ताड, कोको, हीं पिकां जावपी वाठारांनी रस्ते चड आसात. नायजेरियांत बुरुटू, लागोस, पोर्ट हारकोर्ट, कोको, वॉरी, कॅलॅबर हीं वेपारी बंदरां आसात. हांगा ४,३१३किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आसात. लागोस आनी कानो हांगा आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. 'नायजेरिया ॲरवेस' ही हांगाची राश्ट्रीय विमान कंपनी.

**लोक आनी समाजजीण :** आफ्रिकेंतल्या हेर देशांपरस नायजेरियाची लोकसंख्या चड आसा. नायजेरियांत खापरी (निग्रो) लोक चड आसात. तांची हेर जातींकडेन भरसण जाल्या. थळावे खापरी फकत दक्षिणेक रानांनी आसात. हेर म्हत्वाच्यो जमाती अस्तंतेक इडो, उदेंतेक इबिर्बाओ आनी इज्यो आनी उत्तरेक फुलानी, कानुरी, नूप आनी टीव ह्यो आसात. इंग्लीश ही शासनाची आनी वेपारी भास. योरूबा, इबो आनी हौसा ह्योय भासो खूब लोक उलयतात. उत्तरेक मुसलमान चड आसात आनी दक्षिण तशेंच अस्तंतेक क्रिस्तांव धर्माचे लोक चड आसात. उत्तर विभागापरस उदेंत आनी अस्तंत विभागांनी शिक्षणाची उदरगत चड जाल्या. देशांत शिक्षण दिवपी मिशनरींच्यो खाजगी संस्था आसात. उत्तर वाठारांत मुसलमान धर्मीक संस्थींनी शाळा चलयतात. लागोस, ईबादान, आबेओकूटा,ईफे, झारिया, जॉस हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं शारां.

– कों. वि. सं. मं.

## नायटो : (पळेयात कातीचो रोग).

## नायट्रीक ॲसीड (आम्ल) : 

म्हत्वाचें खनीज आम्ल. रेणवीय सूत्र $HNO_3$. सगळ्यांत पयलीं तयार केल्लें आनी वापरांत आयिल्लें नायट्रोजनाचें संयुग. आक्वा डिसोल्युटिव्हा, आक्वा प्रायमा, स्पिरिट्स ॲसिड्स नायट्राय, स्पिरीट्स नायट्राय, फ्युमान्स ग्लाऊबेरी, आक्वा फॉर्टीस, ॲझोटीक ॲसीड, एनग्रेव्हर्स ॲसीड ह्या नांवांनीय ह्या आम्लाक वळखतात. हें एक द्रवरूप पारभासी, रंग नाशिल्लें जावं हळदुवसार, वाफाळपी, उस्वासांत आडखळ हाडपी, दाहक (कातीच्या संपर्कांत आयल्यार थंयच्या पेशींचो दाह जाता) आनी संक्षारक (रसायनीक विक्रियेन ल्हव ल्हव ना करपी) आम्ल. १००% शुद्ध नायट्रीक आम्ल रंगहीन द्रव आसून ताचें वि.गु. १.५०२६९ (२५° सॅ. क) विरगळ बिंदू, ४१.५९°

सॅ. आनी सळसळ बिंदू ८६° सॅ.

मध्ययुगीन काळांत युरोपांत नायट्रीक आम्ल खबर आशिल्लें. तशेंच आठव्या शेंकड्यांतल्या अरबांक आनी इजिप्ती लोकांकूय ताची म्हायती आशिल्ली. पॉटेशियम नायट्रेट आनी मोरचूद एकठांय तापोवन आक्वा फॉर्टीस ह्या नांवान नायट्रीक आम्ल इ. स. ११००च्या अदमासाक करताले म्हणपाचो उल्लेख मेळटा. पॉटेशियम नायट्रेटापसून नायट्रीक आम्ल तयार करपाच्या पद्दतींचो उल्लेख आल्बर्ट्स मॅग्नस, लल्ली, जॉर्जिअस ॲग्रिकोला आनी जे. आर. ग्लाऊबर हांच्या लिखाणांत मेळटा. आय्. मिल्नर हाणें नायट्रोजन ऑक्सायडां आनी नायट्रीक आम्ल तयार केल्लें. १८२४त डब्ल्यू. हेन्री हाणें ऑक्सिजना वांगडा स्पंजी प्लॅटिनमाच्या सांगातांत आमोनिया उच्च तापमानांत संयोग पावता हें दाखोवन दिलें. हातूंतल्यानूच फुडें नायट्रीक आम्लाचे निर्मितीची बुन्याद घाली. १७८४त एच्. कॅव्हॅंडिश हाणें हवेंतल्यान विद्युत् किटी वचपाक दिवन नायट्रीक आम्ल संश्लेशीत केलें. १८१६त जे. एल्. गे-ल्युसॅक आनी सी. एल्. बर्थेलॉट हाणीं ताचें संरचना सूत्र सोदून काडलें. १९०० मेरेन नायट्रीक आम्ल हें पॉटेशियम नायट्रेट वा सोडियम नायट्रेट हांची सल्फुरीक आम्लावांगडा विक्रिया करून वेपारी प्रमाणांत तयार करताले. ई. बर्कलॅंड आनी एस्. आयड हाणीं नायट्रोजन आनी ऑक्सिजन हांचेपसून विद्युत प्रज्योत भट्टेच्या आदारान नायट्रीक आम्ल तयार करपाचो कारखानो नॉर्वेत १९०३त सुरू केलो. हे पद्दतीचेर आदारिल्ले कारखाने नॉर्वे आनी जर्मनींतूय सुरू जाले. ह्या कारखान्यांनी १९३० मेरेन नायट्रीक आम्ल तयार जाताले. १९०१त डब्ल्यू. ओस्टव्हाल्ट हाणें आमोनिया आनी हवा हांचेपसून प्लॅटिनम उत्प्रेरकाच्या वांगडा नायट्रीक आम्ल तयार करपाक येता म्हणपाचें दाखोवन दिलें. १९१७त अमेरिकेंतल्या मशल शोल्स हांगा आमोनियाच्या ऑक्सिडिकरणान नायट्रीक आम्ल तयार करपाचो पयलो कारखानो सुरू जालो. पयल्या म्हाझुजा उपरांत अशा कारखान्यांचो आंकडो वाडलो आनी आतां सगळ्याक हेच पद्दतीन नायट्रीक आम्ल तयार करतात.

शुद्ध आनी संहत (प्रमाण चड आशिल्लें) सल्फ्युरिक आम्ल आनी शुद्ध सोडियम नायट्रेट हांचे सम ग्रामरेणुभारांतलें भरसण निर्वातांत सवकास तापोवन मेळपी वाफो आम्लाच्या विरगळ बिंदूपरस उण्या तापमानाक थंड करून निर्जल आनी शुद्ध नायट्रीक आम्ल प्रयोग शाळेंत तयार करपाक येता. वेपारी नदरेन नायट्रीक आम्ल ह्या पद्दतींनी तयार करतात : १) सोडियम नायट्रेट वा पॉटेशियम नायट्रेट वा सल्फ्युरिक आम्ल हांचे विक्रियेन २) आमोनियाचे उत्प्रेरकी ऑक्सिडीकरण करून आनी ३) विद्युत् प्रज्योत भट्टेंत ऑक्सिजन आनी नायट्रोजन हांची विक्रिया करून.

शुद्ध नायट्रीक आम्ल उजवाडान आनी उश्णतायेन हळदुवें आसता. उदकांत तें खंयच्याय प्रमाणांत भरसता. ६८% नायट्रीक आम्ल आशिल्लो जलीय विद्राव हो वेपारी नदरेन संहत नायट्रीक आम्ल अशें समजतात. शुद्ध वा संहत नायट्रीक आम्लाच्या विद्रावाचें ल्हव ल्हव अपघटन जावन उदक, नायट्रोजन डाय-ऑक्सायड आनी ऑक्सिजन हे घटक सुटावे जातात. नायट्रीक आम्ल हें एक खर आम्ल. तशेंच तें एक प्रभावी ऑक्सिडीकारकय जावन आसा. खतखतपी नायट्रीक आम्ल धवें (९७%) वा तांबडें (८७%) आसता. हाचो उपेग रॉकेटाच्या प्रचालक द्रव्यांत (इंधनांत) करतात. नायट्रीक आम्ल आनी वेगवेगळे धातू हांचेपसून धातूंचे संयुजेप्रमाण (हेर अणूकडेन संयोग पावपाची तांक) वेगवेगळ्या स्वरुपाचीं अकार्बनी नायट्रेट तयार जातात. नायट्रीक आम्लाचीं क्षार (आल्कली), ऑक्सायडां हांचेवांगडा विक्रिया जावन लवणां मेळटात. आमोनियावांगडा ताची विक्रिया जावन अमोनियम नायट्रेट हें म्हत्वाचें सारें तयार जाता. नायट्रीक आम्लाचीं संयुगांय तयार करतात.

नायट्रीक आम्लाची वाफ खूब विखारी आसता. तशेंच, तें आम्ल संक्षारक आसून शरिराचेर जखमोय करपाक शकता. हें आम्ल निश्काळजीपणान हाताळ्ळ्यार खूब नुकसान जावन मरणूय येवपाक शकता. ह्या आम्लाचे वाफेच्या संपर्कांत आयल्यार पुल्मांवाचे विकार जावपाक शकतात. द्रवरूप आम्लाचो कातीकडेन संबंद आयल्यार संपर्काचे सुवातेंतल्या पेशी समुहांचो नाश जाता. हें आम्ल अन्नमार्गांतल्यान पोटांत गेल्यार अन्नमार्ग आनी पोटांत भाजिल्लेभशेन जाता आनी रगताची हागवण लागून एकाद्रे मरणूय येता. विखबादेचो दुबाव आयल्यार दुर्येताक हॉस्पिटलांत दवरपाची गरज आसता.

नायट्रीक आम्ल हें एक उद्देगीक म्हत्वाचें रसायन. सारें, स्फोटक पदार्थ, कृत्रीम तंतू, रंजकां हांचे निर्मितींत व्हड प्रमाणाचेर नायट्रीक आम्ल वापरतात. धातुविज्ञान, फोटोएनग्रेवींग, तिख्याचें कोरीव काम, वखदां हातूंत नायट्रीक आम्लाचो उपेग करतात.

भारतांत भौशीक मळावयल्या कारखान्यांनीं (देखीक - सिंद्री, तुर्भे बी) तशेच स्फोटक पदार्थांच्या कारखान्यांनी आमोनिया ऑक्सिडीकरण पद्दतीन नायट्रीक आम्ल तयार करतात. भौशीक मळावयल्या फर्टिलायझर कॉर्पोरेशनावतीन वर्साक १,०३,२०० टन आनी हिंदुस्थान ऑरगॅनिक कॅमिकल्स ह्या कारखान्यांत १६,५०० टन (९८%) नायट्रीक आम्ल तयार करतात. हाचे भायर ५ खाजगी कारखान्यांनीय ह्या आम्लाची निर्मिती करतात.

– कों. वि. सं. मं.

## नायट्रोजन :

**नायट्रोजन :** वायुरूपान आशिल्लें वास, रूप नाशिल्लें एक मूलद्रव्य. ताका कोंकणींत नत्र म्हण्टात. ताचें चिन्न 'N'. ताचो अणुक्रमांक ७ आसून अणुभार १४ आसा.

१७७२ वर्सा सी. डब्ल्यू. शॅले ह्या स्विडनी मनशान हवा म्हळ्यार दोन वायूंची भरसण आसून तातूंत एक ऑक्सिजन जो जळपाक मदत करता आनी दुसरो वायू जळपाक मदत करिना हें दाखोवन दिलें. ह्याच सुमाराक जोसेफ प्रीस्टली आनी डॅनिएल रुदरफर्ड हाणीं स्वतंत्रतरेन नायट्रोजनाचो सोद लायलो. हो वायू जिविताक आदार दिना देखून आंत्वान लावॉयझेर हाणें ताका जीव ना ह्या अर्थाच्या ग्रीक शब्दावयल्यान 'ॲओट' हें नांव दिलें आनी तें एक मूळद्रव्य आसा हें सिद्ध केलें. हें मूळद्रव्य नायटर ह्या खनिजांत आशिल्ल्यान जे. ए. सी. शाप्टाल हाणें १७९० त ताका नायट्रोजन हें नांव दिलें.

वाऱ्यांत नायट्रोजन हो मेकळेरुपांत ७९ टक्के व्यासाचो आनी ७७ टक्के वजनाचो आसता. पूण संयुग रुपांत तो व्हड प्रमाणांत मेळटा. नायट्रोजन हो सगळ्या प्रथिनांचो एक म्हत्वाचो घटक. तशेंच बऱ्याच कार्बनी पदार्थांनीय नायट्रोजन मेळटा. दक्षिण अमेरिकेंतल्या चिली ह्या देशांत उत्तरेकडल्या सुक्या वाठारांत मेळपी सॉल्ट पिटर ($NaNo_3$) हें नायट्रोजनाचें म्हत्वाचें संयुग. हाचेभायर सुपीक जमनींत तो कॅल्शीयम

नायट्रेट [$Ca(NO_3)_2$], आमोनियम सल्फेट [$(NH_4)_2So_4$] आनी आमोनियम कार्बोनेट [$(NH_4)_2CO_3$] ही संयुगां शिंपडिल्ले दशेंत मेळटात. हवेभायर नायट्रोजन जितीं जनावरां, झाडां हातूंत तशेंच जनावरांच्या कुशिल्लया कुडीलागीं पॉटेशियम नायट्रेट ह्या स्वरुपांत मेळटा.

नायट्रोजन तयार करपाच्यो वेगवेगळ्यो तरा आसात. प्रयोगशाळेंत आमोनियम क्लोरायड ($NH_4cl$) आनी सोडियम नायट्रायट ($NaNo_2$) रेणूच्या समप्रमाणांत तापयतकच सोडियम क्लोरायड (Nacl) आनी आमोनियम नायट्रायट तयार जाता ($NH_4No_2$).

$NaNO_2 + NH_4Cl \rightarrow NH_4 NO_2 + Nacl$

आमोनियम नायट्रायट अस्थीर आशिल्ल्याकारणान ताचें विघटन नायट्रोजन आनी वाफेंत जाता.

$NH_4 + NO_2 \rightarrow N_2\uparrow + 2H_2O$

वेपारी मळार नायट्रोजन चड करून द्रवरुपी हवेचें टप्प्याटप्प्याच्या उर्ध्वपातनान तयार करतात. आमोनियाच्या खर निवळींत क्लोरीन सोडून नायट्रोजन तयार करपाचीय एक तरा आसा.

$8NH_3 + 3Cl_2 \rightarrow 6NH_4 Cl + N_2 \uparrow$

नायट्रोजनाची सुवात आवर्त सरणींतल्या दुसरे आडवे रांकेंत आनी पंदरावे उबे रांकेंत आसा. मेकळे दशेंत नायट्रोजन रेणूच्या रुपांत आसता आनी एका रेणूंत दोन अणू आसतात. नायट्रोजनाक रंग, वास, रूच आसना. उदकांत तो खूब उण्या प्रमाणांत विरगळटा. द्रव्यरुपी नायट्रोजनाचो उकळ बिंदू -१९५.७° से. जाल्यार -२१३.५° से. तापमानाचेर हो धव्या घनरुपांत गोठेता. सादया तापमानांत हो वायू विरक्त आसलो तरीय उंचेल्या तापमानांत खूबशा धातूंमदीं चड करून कॅल्शियम आनी मॅग्नेशियमावांगडा ताचो संयोग जावप नायट्रायड तयार जाता.

$3Mg + N_2 \rightarrow Mg_3 N_2$ (मॅग्नेशियम नायट्रायड) नायट्रोजन आनी ऑक्सिजन विजवर्तकाच्या प्रभावाखाला तापयतकच नायट्रोजन ऑक्सायडची भरसण तयार जाता. गतिधातकाचे हजेरेंत सादारण उंचेल्या तापमानांत नायट्रोजन हायड्रोजनावांगडा भरसून आमोनिया घडयता.

नायट्रोजन चक्राक लागून सैमांतलें नायट्रोजनाचें प्रमाण कायम उरता. सैमांतलें नायट्रोजन वारो, जमीन, झाडां, जनावरां हांचेमदीं घुंवत उरता. झाडाचीं मुळां जमनींतल्या नायट्रेट्स आनी आमोनियम संयुगांतलें नायट्रोजन ओडून घेता आनी ताचे मागीर झाडांत प्रथीन जाता. हें प्रथीन एक तर झाडां मरतकच जमनींत परतून वता ना जाल्यार खाणाच्या रुपान जनावरांच्या आंगांत वता. प्रथीन रुपांतलो जनावरांत गेल्लो हो नायट्रोजन तांच्या मरणाउपरांत वा युरियाच्या रुपान (मूत) तशेंच हिप्पुरीक ॲसिडाच्या रुपान जमनींत वता.ह्या नायट्रोजनाचो जमनींतलो एक रवंथो (Bacteria) जाका 'नायट्रीफायींग बॅक्टेरिया' म्हण्टात. तो पयलीं आमोनियात उपरांत नायट्रायट्स आनी निमाणें नायट्रेटसात रुपांतर करता. अशे तरेन सैमांतल्या नायट्रोजनांत जावपी बदलाचें मुखेल चक्र सोंपता. ह्या मुखेल चक्राक तीन फांटे आसात. पूण हे उण्या प्रमाणांत नायट्रोजन चक्रांत बदल घडयतात. जमनींतलो आनीक एक तरेचो रवंथो जाका डीनायट्रीफायींग बॅक्टेरिया म्हण्टात. तो जमनींतल्या नायट्रेट्सांतलो नायट्रोजन वाऱ्यांत मेकळो सोडटा. गडगडपाच्या पावसांत जावपी जोगलाक लागून वाऱ्यांतलो ऑक्सिजन आनी नायट्रोजन पावसाथेंब्यांनी भरसून ताचें नायट्रीक ॲसीड जाता. ताचें उपरांत जमनींतल्या कॅल्शियम कर्बोनेटावांगडा विक्रय (reaction) जावन कॅल्शियम नायट्रेट तयार जाता. हे तरेन वाऱ्यांतल्या नायट्राजेनाचें नायट्रीक ॲसीड, नायट्रेट्स आनी आमोनियांत रुपांतर करपी प्रक्रियेक 'नायट्रोजन फिक्सेशन' म्हण्टात.

नायट्रोजन विरक्त आशिल्ल्या कारणांन ताचो उपेग थोडयाच प्रमाणांत जाता. मेकळे अवस्थेंतलो नायट्रोजन कांय तरांच्या उजवाड दिवपी विजेच्या बल्बांत भरतात. ३००° सें. ते ५००° सें. ह्या टप्प्या मदलें तापमान मेजचेखातीर वापरतात. ह्या पारजाचें थर्मोमिटरांत पारजाचें सळसळपाचें तापमान चडचेखातीर पारजावयलो जागो नायट्रोजन घालून भरतात. मेकळ्या नायट्रोजनाचो उपेग नायट्रीक ॲसीड, आमोनिया आनी हेर म्हत्वाचीं नायट्रोजनाचीं संयुगां उत्पादन करपाकय जाता.

नायट्रोजनाचीं खूब संयुगां आसात, हातूंतलीं म्हत्वाचीं संयुगां अशीं: आमोनिया, आमोनियम क्लोरायड, आमोनियम सल्फेट, आमोनियम नायट्रेट, नायट्रीक ॲसीड. नायट्रोजन आनी हायड्रोजन हांचीं संयुगां आमोनिया ($NH_3$), हायड्रेझीन ($N_2H_4$), हायड्रेझॉइक आम्ल ($HN_3$) नायट्रोजनाची ऑक्सायडां : नायट्रस ऑक्सायड ($N_2O$), नायट्रीक ऑक्सायड (No), डायनायट्रोजन ट्राय-ऑक्सायड ($N_2O_3$), नायट्रोजन डायऑक्सायड ($NO_2$), डायनायट्रोजन पँटॉक्सायड ($N_2O_5$). नायट्रोजन हॅलायडां : नायट्रोजन आनी हॅलोजन हांचेपसून ($Nx_3$), संयुगां तयार जातात. नायट्रोजन ट्रायफ्ल्यूओरायड ($NF_3$), डायनायट्रोजन ($N_2F_4$) हीं फ्ल्युओरिनावांगडचीं संयुगां जातात. क्लोरिनावांगडा नायट्रोजन ट्रायक्लोरायड ($Ncl_3$) मोनोक्लोरामीन ($NH_2cl$) आनी डायक्लोरामीन ($NHCl_2$) हीं संयुगां तयार जातात. नायट्रोजन ट्रायब्रोमायड ($NBr_3$), आनी $NH_2 Br_1$ आनी $NHBr_2$ हीं ब्रोमिनाचीं संयुगां तयार जातात. आयोडिनावांगडा नायट्रोजन आयॉडायड ($NI_3.NH_3$) आनी नायट्रोजन ट्रायआयोडायड ($NI_3$) हीं संयुगां तयार जातात.

**नायट्रोजनाचीं ऑक्सि-आम्लां :** (जातूंत ऑक्सिजन आसात अशीं आम्लां) नायट्रोजन, ऑक्सिजन आनी हायड्रोजन हांचेपसून मेळपी ऑक्सिआम्लांनी नायट्रीक आम्ल ($HNO_3$), नायट्रस आम्ल ($HNO_2$) आनी हायपोनायट्रस आम्ल ($H_2N_2O_2$) हीं आम्लां म्हत्वाचीं आसात.

**नायट्रेटां :** नायट्रीक आम्ल आनी धातू हांचेपसून जावपी $M(NO_3)n$ ह्या सुत्राचीं संयुगां.

**नायट्रायटां** : हीं नायट्रस आम्लाचीं लवणां.

**नायट्रायडां :** हीं नायट्रोजनाची द्वैती संयुगां (एका थरावीक रेणवीय गुणोत्तरांनी तयार जावपी आनी फकत दोनूच मुळद्रव्यांपसून तयार जाल्लीं संयुगां.)

**कार्बनी संयुगां :** कार्बनी संयुगां आनी अकार्बनी आम्लां हांचे विक्रियेंतल्यान मेळपी संयुगांक अकार्बनी आम्ल - एस्टरे म्हणटात. नायट्रीक आम्ल आनी ग्लिसरीन हांचेपसून नायट्रोग्लिसरीन हें म्हत्वाचें संयूग मेळटा. कार्बन आनी नायट्रोजन हांचेपसून तयार जाल्लो CN हो गट ज्या कार्बनी संयुगांत आसा तांकां सायनोजेन संयुगां म्हण्टात. तातूंत सायनोजेन वायू ($C_2N_2$), सायनामायड ($NH_2CN$), हायड्रोसायनिक आम्ल (HCN),सायानिक आम्ल (HOCN), सामनुरिक आम्ल ($C_3H_3O_3N_3$) आदी संयुगांचो आस्पाव जाता.

आमोनिया आनी कार्बनी संयुगां हांचेपसून नायट्रोजनाचीं कार्बनी संयुगां मेळटात. हातूंतल्या आमोनियांतल्या हायड्रोजनाचें प्रतिशठापन करून मेळपी संयुगांक अमायनां म्हण्टात. हातूंत ॲलिफॅटीक आनी

अॅरोमॅटीक हीं अमायनां म्हत्वाचीं आसात. अॅरोमॅटीक अमायनां आनी नायट्रस आम्ल हांचेपसून डायझोनियम लवणां मेळटात आनी ह्या लवणांपसून डायाझो संयुगां मेळटात.

नायट्रोजन आनी कार्बन संयुगांचो आनीक एक व्हड गट आसून तांकां आल्कालॉयडां म्हण्टात. रसायनीक नदरेन नायट्रोजन हो अक्रीय आशिल्ल्या कारणान, सर्वसामान्य परिस्थितींत तो हेर मूलद्रव्यांकडे विक्रिया करिना. तेचपरी ताच्या वाडट्या उपेगाक लागून ताचो उपलब्ध आशिल्लो चिली हायाचो सॉल्टपिटराचो सांठो सोंपतकूच ताचेर अवलंबून आशिल्ले उद्देगधंदे बंद पडचे न्हय देखून आनी सजिवाचो तो एक म्हत्वाचो घटक आशिल्ल्यान शास्त्रज्ञांनी हवेंत आशिल्ल्या ७५% नायट्रोजनाचो उपेग करून घेवपाचो सोद लायलो. हवेंतलो नायट्रोजन काडून घेवपाच्यो जायत्यो पद्दती सोदून काडल्यात. तातूंतल्यो म्हत्वाच्यो ह्यो - १) सुक्ष्मजंतूंच्या आदारान २) ऑक्सायडच्या रुपांत ३) सायनायडच्या रुपांत ४) नायट्रायडाच्या रुपांत ५) सायनामायडाच्या रुपांत ६) आमोनियाच्या रुपांत.

– विद्यादत्त मो. शेट वेरेंकार

## नायडू, सरोजिनी :

(जल्म : १३ फेब्रुवारी १८७९, हैदराबाद; मरण : २ मार्च १९४९, लखनौ).

भारतीय सुटकेझुजांतली एक व्हड कार्यकर्ती तेचपरी प्रभावी व्यक्ती आनी नामनेची कवयित्री. तिचें आदलें नांव सरोजिनी अघोरनाथ चट्टोपाध्याय (चटर्जी). अघोरनाथाचें मूळ घराणें उदेंत बंगालांतल्या ब्रह्मनगर गांवचें. पूण हैदराबादाक शिक्षण संस्था स्थापन करपाच्या हेतून अघोरनाथ १८७८त आयलो आनी फुडें निजाम म्हाविद्यालयाचो प्राचार्य जालो. एक शिक्षणतज्ञ आनी कळकळीचो कार्यकर्तो म्हणून ताची नामना आशिल्ली. सरोजिनीची आवय वरदासुंदरीदेवी मूळ बंगालची आनी ती बंगाली भाशेंतल्यान कविता करताली. अशा सुसंस्कृत पालकांचे संस्कार तिचेर जाले. तातूंतल्यान तिका कविता करपाचो नाद लागलो आनी स्फुर्तूय मेळ्ळी. तिचें मुळावें शिक्षण घरचे घराच जालें. पिरायेच्या बाराव्या वर्सा ती मद्रास वाठारांत पयली आयली (१८९२). उपरांत सुमार तीन वर्सां ती भलायकेक लागून घराच उरली. फुडें १८९५त ती निजामाची छात्रवृत्ती घेवन उंचेलें शिक्षण घेवपाखातीर इंग्लंडाक गेली. लंडन आनी कँब्रिजाक थोडें शिक्षण घेतले उपरांत भलायकेक लागून ती मायभुंयेंत आयली. पूण थंय एडमंड गॉस ह्या इंग्लीश साहित्य समिक्षकाकडेन तिची बरी वळख जाली. ताचेचकडल्यान तिका मार्गदर्शन मेळ्ळें. तिच्या नामनेच्या 'द गोल्डन थ्रॅशोल्ड' (१९०५) ह्या पयल्या कवितांझेल्याक गॉसानच प्रस्तावना बरयल्या. ह्या कवितांझेल्याखातीर रवींद्रनाथ टागोरानूय तिची तोखणाय केल्या.



१८९८त भारतांत परत येतकूच ती डॉ. गोविंदराजुलू नायडू ह्या निजामाच्या संस्थानी विधुर दोतोराकडेन ब्राह्मोसमाजाच्या रितीरिवाजा प्रमाण लग्न जाली. तिका जयसुर्या, पद्मजा, रणधीर आनी लैलामणी हीं चार भुरगीं जालीं. फुडें तिणें 'द गोल्डन थ्रॅशोल्डा' उपरांत 'द बर्ड ऑफ टायम' १९१२ आनी 'द ब्रोकन वींग' १९१७ हे कवितांझेले उजवाडाक हाडले. स्वर माधुर्य, विशाल नदर आनी प्रेमाचो पुरस्कार आनी क्रांतीकारक राश्ट्रीय विचार आदी खाशेलपणांनी भरिल्ल्यान ह्या झेल्यांक नामना मेळ्ळीच तेचपरी अस्तंत आनी उदेंत देशांनी तिका कीर्त मेळ्ळी. तशेंच 'भारतीय कोकिळा' म्हणून तिका नांव मेळ्ळें.

१९०३ ते १९१७ ह्या काळांत एम्. ए. जिना, गोपाळकृष्ण गोखले, रवींद्रनाथ टागोर, लोकमान्य टिळक, अॅनी बॅझंट, महात्मा गांधी, जवाहरलाल नेहरू सारक्या व्हड व्हड फुडाऱ्यांकडेन तिची वळख जाली. तांच्या विचारांचो तिचेर प्रभाव पडलो. होम रूल लीगखातीर तिणें अॅनी बॅझंट आनी सी. पी. रामस्वामी अय्यर हांचेवांगडा भारतभर भोंवडी केली. आपल्या उलोवपांतल्यान तिणें तरणाट्यांचें कल्याण, बायलांचें स्वातंत्र्य, राश्ट्रवाद हांचो पुरस्कार केलो.

हैदराबादेक आयिल्ले प्लेग धामींत तिणें जनतेक आपल्याच्यान जाता ते परीन पालव दिलो. तेखातीर तिका कैसर-इ-हिंद हें भांगरापदक फावो जालें. पूण जालियनवालाबागेंत जाल्ल्या हत्याकांडा उपरांत ब्रिटीश सरकाराचो निशेध करपाक तिणें ताचो स्विकार केलोना. रौलट कायदो, मॉंटेग्यू-चेम्सफर्ड उदरगत, खिलाफत चळवळ, तेचपरी गांधीजीच्या असहकार चळवळींत तिणें सक्रीय वांटो घेतिल्लो. टिळकाच्या मरणाउपरांत ती पुराय तरेन गांधीवादी जाली आनी तिणें आपल्या भेसांत आनी रावपांत भरपूर बदल घडोवन हाडलो. उपरांत ती हैदराबादासावन मुंबय गेली आनी थंय रावंक लागली. मुंबय महानगरपालिकेंत ती वांगडी म्हणून वेंचून आयली आनी फुडें १९२१त प्रांतिक कॉंग्रेसीची अध्यक्षा जाली. १९२५त कानपूरच्या अखिल भारतीय कॉंग्रेस अधिवेशनाची अध्यक्षा म्हणून वेंचून आयली. फुडें कॉंग्रेस कार्यकारिणीची ती वांगडी जाली. कलकत्त्याक भरिल्ल्या १९०७चे बंगालचे फाळणी विरोधी सभेंत तिणें म्हत्वाचें योगदान दिलें. १९०८त तिणें विधवा विवाह परिशदेंत बायलांचे चळवळीची बुन्याद घाली. १९२३त दक्षिण आफ्रिकेंतल्या भारतीयांची चवकशी करपाक ती थंय गेली. फुडें ती मोम्बासाच्या इस्ट आफ्रिकन इंडियन कॉंग्रसीची अध्यक्षा जाली. अमेरिकन लोकांमदीं भारताचे सुटकेविशीं सहानभुती निर्माण करपाच्या हेतान तिणें १९२८त थंय भोंवडी केली. तशेंच गाधीजीवांगडा गोलमेज परिशदेकूय ती गेली. १९३०त मिठाच्या सत्याग्रहांत एका म्हत्वाच्या पंगडाचें तिणें फुडारपण केलें. भारत छोडो आंदोलनावेळार (१९४२) हेर फुडाऱ्यां वांगडा तिकाय बंदखण जाली. ताचेपयलींय तिका जायते फावटीं बंदखण जाल्ली. आगाखान बंदखणींत आसतना आपल्या वांगडच्या बंद्यांची ती सेवा करताली.

सुरवातीसावन हिंदू-मुसलमानांचो एकचार, बायलांचो दादल्यांच्या वांगडपणान काम करपाचो हक्क आनी स्वातंत्र्य हेंच तिणें आपलें जिवीतकार्य मानिल्लें. देखूनूच भारत-पाकिस्तान फाळणी आनी गांधीजीची जाल्ली हत्या ह्या दोन गजालींचो तिचेर गंभीर परिणाम जालो. १९४७त दिल्लीक भरिल्ले आशियी राश्ट्रांचे परिशदेक तिका अध्यक्षस्थान दिलें. तशेंच,तिचे इत्सेभायर तिका उत्तरप्रदेशान राज्यपालपद दिलें. पूण थोडयाच काळांत तिका मरण आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

**नायर :** केरळांतली एक द्रवीड जात. पुर्विल्ल्या काळासावन ही जात झुजारी म्हणून मानताले. केरळांत इंग्लिशांची सत्ता प्रस्थापीत जावंचे पयलीं थयंचें लस्कर नायरांचेंच आशिल्लें.

नायक ह्या संस्कृत शब्दापसून नायर शब्द तयार जाला, अशें सांगतात. विजयनगरच्या साम्राज्यांतल्या नायकांकडेन नायरांचो संबंद लायतात. केरळांत नायर समाज व्हड संख्येन आसा. तांचेमदीं मेनन, कुरूप, नांबियार, पाणिक्कर, किरियम, इल्लकर, स्वरूपक्कर, पदमंगलम, वाथी वा वाट्टी, अट्टिकुरिस्सी, इटचेरी, करूवेलम, अरिकुरवन, अकट्टुचारण, वंदिकारन, कुट्टीन, अशो पोटजातीय आसात. तेच भाशेन उच्च नीच असो भेदूय आसा.

नायरांची कुटूंबपद्दत मातृसत्ताक परंपरेतली. हे पद्दतींत बायल म्हळ्यार आवय ही कुटुंबाचें केंद्र जाता. तिची संतत आवयचें गोत्र सांगता. हे मातृसत्ताक कुटूंबपद्दतीक 'मरुमक्कतायम' अशें नांव आसा. मरु म्हळ्यार भयण, मक्क म्हळ्यार पूत आनी तायम म्हळ्यार बापूय. हाचो अर्थ, नायर मनशाचो वारसो ताच्या पुताक मेळनासतना भयणीच्या पुताक म्हळ्यार भाच्याक मेळटा. त्रिवांकुर - कोचीची राजपरंपरा अशेच पद्दतीन चलयत आयल्यात. नायरांच्या ह्या कुटुंबांक 'तरवाड' अशें म्हण्टात. तरवाडांतले मालमत्तेचेर, तातूंतल्या सगळ्या बायल-दादल्यांचो सारको हक्क आसता. पुर्वजां कडल्यान मेळिल्ले संपत्तीची वांटणी जायना. पूण हालीं ह्या लोकांनी ल्हव ल्हव करून विभक्त कुटूंब पद्दती सुरू केल्या.

नायर लोक मल्याळम् भास उलयतात. नायर दादले कमरेभोंवतणीं एक वस्त्र गुठलायतात ताका 'मुंटू' म्हण्टात आनी खाद्यांचेर उपरणें घेतात. नायर बायलो कमराचेर न्हेसतात त्या वस्त्राक 'पुडुव' अशें म्हण्टात.सध्या तांच्या भेसांत काळाप्रमाण बदल जाल्यात. नायर लोक सामान्यपणान धर्मीक वृत्तीचे आसतात. भगवती ही तांची मुखेल आराध्य देवता. चडशे नायर पळणी सुब्रह्मण्याचेय भक्त आसात. शिव आनी विष्णु ह्या दोनूय देवतांक ते भजतात. तशेंच मातन, उतयम, यक्षी, चट्टन, मुर्ती, मरूत, अरुकुल ह्या ग्रामदेवतांकूय नायर भजतात. ह्या देवतांच्यो फातराच्यो मुर्ती आसतात. एकेकदां मुर्ती बदला तरसाद वा वेत हें तांचें प्रतीक दवरिल्लें आसता.

नायर चलयेचे जिणेंत ताळिकेट्टुकल्याणम्, तेरंदुकुळी आनी संबंधम हे संस्कार म्हत्वाचे मानतात. ताळिकेट्टुकल्याणम् हो सुवाळो चली वयार येवंचे पयलीं करतात. ह्या सुवाळ्यांतलो म्हत्वाचो विधी म्हळ्यार सोनपुतळी बांदप हो आसता. ते खातीर इणंगूंतल्यान कोणाय चल्याक वेंचून काडटात. ह्या भुरग्याक 'मनवालन' अशें म्हण्टात. पत्रिका, घटीत पळोवनच ह्या भुरग्याक वेंचून काडटात आनी व्हडा उमेदीन हो सुवाळो मनयतात. ह्या सुवाळ्या उपरांत ती चली आपले पसंतीच्या चल्याकडेन वा योग्य दिसल्यार मनवालना कडेनूय संबंदय करूंक शकता. कांयकडेन मनवालनाचो तिचेर बायल म्हणून हक्क मानून, ताचे परवानगेबगर तिका दुसऱ्या वांगडा लग्न जावपाक मेळना, तशेंच ताच्या मरणाउपरांत तिका पंदरा दिसांमेरेन सुतक पाळचें पडटा. सुवातीप्रमाण ह्या सुवाळ्यांत कांय बदल दिसतात. एकेकदां चली सुवाळ्या उपरांत ताळी काडून दवरता, कांय खेपे ही ताळी चलयेची आवयूच चलयेच्या गळ्यांत बांदता.

चली वयार येनाफुडें करतात त्या सुवाळ्याक तेरंदुकुळी वा तेरंदुकल्याणम् अशें म्हण्टात. सद्याच्या काळांत ह्या सुवाळ्याचो व्हडलोसो दबाजो जायना.

संबंधम म्हळ्यार नायर व्हंकल-न्हवऱ्याचें लग्न. नायर बायलेचे जिणेंतलो हो तिसरो म्हत्वाचो सुवाळो. स्थळाप्रमाण हाका वस्त्रदानम, पुडमुरी, पुडुवकोडुक्कल अशीं नांवां आसात आनी कांय फरकूय आसा.

सुरवातेक व्हंकलेगेर, व्हंकल-न्हवऱ्याची पत्रिका पळयतात. त्यो जुळत जाल्यार वस्त्रदानाचो दीस थरयतात. सुवाळ्याचो म्हूर्त रातीचो आसता. न्हवरो आनी व्हंकल उदेंतेवटेन तोंड करून उबीं रावतात. उपरांत न्हवरो, व्हंकलेक आपले ऐपतीप्रमाण णव, इकरा, सतरा वा एकवीस वस्त्रां दिता. थंय जामिल्ले सगळे लोक उपरांत तांचे तकलेर, खांद्यांर आनी दिवल्यांचेर अक्षता उडयतात. ते रातीक न्हवरो व्हंकलेवांगडा रावता आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं आपल्या घरा वता. वचचे पयलीं तो आपल्या उशापोंदा थोडी रक्कम दवरता. एकेकदां हो सुवाळो ल्हान स्वरुपांत करतात आनी तातूंत वस्त्रदानाचो विधी नासता. अशा वेळार न्हवऱ्याक आपले व्हंकलेक आपल्या घरा व्हरपाक मेळना. जेन्ना तो तिका वस्त्रदान करता तेन्नाच ताका तशी परवानगी मेळटा. संबंधम जातकच बायल आपल्या तरवाडांतूच रावता. रातीचो तिचो घोव येवन दुसऱ्या दिसा सकाळीं वता. कांय दिसांनी बरो म्हूर्त पळोवन घोवाच्या तरवाडांतल्यो दोन-तीन बायलो व्हंकलेगेर वचून तिका आपल्या तरवाडांत घेवन येतात. थंय कांय दीस रावन ती परतून आपल्या घरा वता. वतना तिका घरांतली जाण्टी बायल कांकणां, मुदयो वा कपडे आनी हेर वस्तू दिता. उपरांत तिका केन्नाय घोवागेर वचूंक मेळटा. घोवाच्या तरवाडांतली जाण्टी बायल, दर स म्हयन्यांनी व्हंकलेक उंची वस्त्रां आनी तेल धाडटा. ओणम, विष्णु आनी तिरु आतिरा ह्या परबांवेळार ती व्हंकलेक कांय दुडू आनी विड्याचीं पानां, सुपारी आनी तंबाकू धाडटा. कांय सुवातांनी हो संबंधम सुवाळो घरगुती आनी सादेपणान करतात. संबंधम करपी दादलो-बायल, तांची इत्सा आसत तेमेरेन एकठांय रावतात. बायलेक केन्नाय घटस्फोट घेवंक मेळटा आनी दादल्याक वाज आयल्यार तो बायलेकडेन वचपाचें बंद करता. ताचे उपरांत तांकां परतून लग्न जावपाक मेळटा. घोवाच्या मरणाउपरांत लग्न जावपाक येता.

नायर लोकांचे चालीरितींत काळाप्रमाण बदल जायत आसात. पूण मामेभयणीकडेन लग्न जावप हें आयज लेगीत तांचेमदीं प्रशस्त मानतात. सद्या ह्या लोकांमदीं चलता त्या लग्न सुवाळ्याची रीत आसा ती अशी - दिसाचो लग्नाचो म्हूर्त आसता. व्हंकले घरा हो सुवाळो जाता. न्हवऱ्या व्हंकलेक उदेंतेवटेन तोंड करून बसयतात. व्हंकलेचो बापूय न्हवऱ्या-व्हंकलेचे हात जोडटा. न्हवरो व्हंकलेच्या गळ्यांत ताळी बांदता आनी साडी दिता. दोगांय जाणां एकामेकांक हार घालतात. न्हवरो व्हंकलेक मुदी घालता. रामायणांतल्या कांय श्लोकांचें वाचप जातकूच आप्त-इश्ट जोडप्याक अहेर करतात. दनपारां जेवणावळ जातकूच न्हवऱ्याचो लोक घरा परतता. न्हवरो रातचो व्हंकलेगेर रावना. स्थळाप्रमाण ह्या सुवाळ्यांत कांय बदल आसात. सद्याच्या काळांत विशेश करून आधुनिक समाजांत लग्न जातकच व्हंकल न्हवऱ्यागेर रावपाक वता आशिल्ल्यान, मातृसत्ताक कुटूंबपद्दतीचें रूप बदललां.

गुरवारपणांत नायर बायलेक कांय नेम पाळचे पडटात. सातव्या म्हयन्यासावन सदांच सकाळीं ती न्हावन-धुवन देवळांत वता आनी थंय पुजाऱ्यान मंत्रावन दिल्लें लोणी खाता, सातव्या वा णवव्या म्हयन्याचेर एक बरो दीस आनी म्हूर्त पळोवन तिचो पुळिकुडी नांवाचो एक सुवाळो

करतात.

म्हालीण वा वेलन बायल वैजिणीचें काम करता. चौदा दीस सुवेर पाळटात. अठ्ठाविसाव्या दिसा भुरग्याचो 'बारसो' करतात. सव्या म्हयन्यांत भुरग्याचें उश्टावण करतात. एकेकदां उश्टावण करतनाच भुरग्याचो बारसो करतात. पांचव्या वा सव्या वर्सा भुरग्याचे कान तोपतात.

नायर लोकांमदीं मडें आंगणांत व्हरून ताका न्हाणयतात. उपरांत ताका भस्म आनी चंदन लावन नवें वस्त्र न्हेसयतात. निसणीर घालून वा हातांनी उबारून मडें तरवाडांतल्या आग्नेय दिशेच्या कोनशाक दवरून अग्नी दितात. मेल्ल्या मनशाचो भाव वा भयणीच्या चल्याक अग्नी दिवपाक मेळटा, पूण सद्याच्या काळांत व्हडलो पूत अग्नी दिता. उपरांत सात दिसांमेरेन मृताक पींडदान करतात. सातव्या वा चवदाव्या दिसा अस्थी एकठांय करून खंयच्याय तीर्थांत सोडटात. चवदा दीस सुतक धरतात. एकेचाळीस दीस वा एक वर्स दुख्ख धरतात. तेखातीर तरवाडांतलो कोण्यूय जाण्टो मनीस एका वर्साखातर दीक्षा घेता, त्या काळांत तो नाखटां वा केंस कापिना.

काळाप्रमाण ह्या लोकांच्या चालीरितींनी खूब बदल जाल्यात. अस्तंती संस्कृतीच्या संबंदाक लागून नायर लोकांक तरवाडाची ही परंपरागत वेवस्था मानवना जाली. तेन्ना ह्या समाजांतल्या सुशिक्षीत लोकांनी आपलीं परंपरागत लग्नां कायदेशीर जावन घोव-बायलेच्या संवसाराक स्वतंत्र अस्तित्व मेळचें म्हणून खूब यत्न केले. इ. स. १९१२ वर्सा त्रिवांकूराच्या संस्थानिकाक तेखातीर नवो कायदो करचो पडलो. त्या कायद्याप्रमाण नायरांचीं लग्नां सगळ्या वटांनी कायदेशीर जालीं. तरवाडच्या उत्पन्नांतल्यान सगल्याक स्वतंत्र वांटणी मेळूंक लागली. पितृसत्ताक कुटूंबपद्दतीक लागून दादल्याची जापसालदारकी वाडली. भाच्याच्या बदलाक पुताक सगळे हक्क मेळूंक लागले. पूण केरळांतल्या खेड्यापाड्यांनी आयज लेगीत मातृसत्ताक कुटूंब पद्दतीचे अवशेश सांपडटात.

शेतवड हो नायरांचो मुखेल वेवसाय. तेच भाशेन वेपार करप, तेल गाळप हे उद्देगूय ते करतात. कांय नायर लोक म्हाल्याचो आनी मडवळाचोय वेवसाय करतात. सद्या कितलेशेच नायर सरकारी नोकऱ्यांनी व्हड हुद्द्याचेर आसात.

-डॉ. के. के. कुरूप

**नायर, एम. टी. वासुदेवन :** (जल्म : १९३४. कुटल्लूर - पालक्काट, केरळ).

नामनेचो मल्याळम लेखक. ताचो जल्म एका शेतकामती घराण्यांत जालो. ल्हानपणासावन ताका वाचनाची आवड आशिल्ली. ताका लागून ताचो घराबो खेडेगांवांत आसून लेगीत आपल्याक जाय तें पुस्तक मेळोवपाक ताका बरेंच चलून वचचें पडटालें. फुडें जेन्ना तो माध्यमिक शिक्षण घेवंक कुमरनल्लूराक पावलो तेन्ना



थंय ताका कवी अक्कित्तम कडल्यान पुस्तकां वाचूंक मेळूंक लागलीं. ह्याच काळांत तो कांय कविता बरोवंक लागलो. फुडें तो पद्य सोडून गद्यावटयां घुंवलो तरी ताच्या साहित्यांत मूळच्या कवित्वाचें बींब दिश्टी पडटालें. उपरांत पालक्काटाक व्हिक्टोरिया कॉलेजींत आसतना ताका वाचूंक-बरोवंक बरोच वेळ मेळूंक लागलो. कॉलेजीच्या निमाण्या वर्सा आसतना ताका 'मातृभुमी' दिसाळ्या वरवीं आयोजीत केल्ले संवसारीक लघु कथा सर्तींत ताचे 'वळरत्तु मृगङ्गळ' (१९५३) (पाळीव मोनजात) हे कथेक इनाम मेळ्ळें. विद्यार्थी दशेंत आसतनाच ताचो पयलो कथांझेलो 'रक्तम पुरण्टा मणतरिकळ' (रगताळ रेंव) उजवाडाक आयिल्लो. म्हांविद्यालयीन शिक्षण सोंपले उपरांत तो 'मातृभुमि' दिसाळ्यांत काम करूंक लागलो.

निळा हे न्हंयेचे देगेर बशिल्ल्या चडश्या केरळाच्या लेखकाचो राबितो आशिल्ल्या ताच्या ह्या ल्हानशा खेडेगांवांत ताका मोड, वारें दुकळ, पिडा हांचो धग लागिल्लो आनी तातूंतल्यानूच ताणें 'नालुकेट्टु' (पुर्वजालें घर १९५४) ही कादंबरी बरयली. हे कादंबरेंत केरळांतल्या नायर समाजांतल्या मातृसत्ताक समाजवेवस्थेचो घुस्मटमार चितरायला. ताचे हे कादंबरेक केरळी साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळो. ते भायर नॅशनल बूक ट्रस्टान मुखेल भारतीय भाशांनी ताचो अणकार उजवाडायलो. ताचे 'कालम' (काळ १९६९) हे कादंबरेक १९७० वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळो.

ताची एक म्हत्वाची साहित्य कृती 'रण्टामूषम' (दुसरें मोडण १९८४त) उजवाडाक आयली. हे पुराणीक कादंबरेचें पात्र भीम, फावो ती योग्यताय आसुनूय फावो त्या मान सन्मानापसून पयसावल्ल्या आयच्या मनशाची मनोव्यथा हांचें प्रतिनिधित्व करता.

ताच्यो हेर म्हत्वाच्यो साहित्यकृती अशो –

**कथासंग्रह :** रक्तम पुरण्टा मंतरिकळ (१९५२), वेयिलुम निळायुम (१९५४), वेदनायुटे पूक्कळ (१९५५), निन्ते ओरमक्के (१९५६), ओलायुम तीरयुम (१९५७), इरुट्टिण्टे आत्मावु (१९५७), कुट्टयेटत्ति (१९५९), नण्टप्पेट्ट दिंगल (१९६०), बन्धनम (१९६३), पठनम् (१९६६), कलिवीदु (१९६६), वरिक्कुषी (१९६७), तिरंजेदूत कथाकल (१९६८), दार-एस-सलाम (१९७२), अज्ञतन्ते युरत स्मारकम्, अभयम् तेण्टि विन्दुम (१९७८), स्वर्गम तुरक्कुन्न समयम (१९८०), वानप्रस्थम (१९९२).

**कादंबऱ्यो :** नालुकेट्टु (१९५४), पतिरयुम पकळवेलिचयुम (१९५८) अरबीपोन्नु (१९६०), असुरवित्तु (१९६२), मंजु (१९६४), कालम् (१९६९) विलाप यात्रा (१९७८), रण्टामूषम् (१९८४)

**समिक्षात्मक अभ्यास :** कथिकण्टे पनिप्पुर (१९६३), हंमिंग्वे - ओरु मुखायुरा (१९६८) कथिकण्टे कला (१९८४)

**निबंध :** किलिवतिलिलूदे (१९९२), एकाकिकलुरे शब्दम (१९९४)

**भोंवडेवर्णन :** मनुष्यार निषालुकल (१९६६), अलकुट्टतिल सनिये (१९७२)

**नाटक :** गोपुरनटयिल (१९८०).

**भुरग्यांचें साहित्य :** माणिक्य कळ्ळु (१९५७), दय इन्त पेनकुट्टि (१९८७).

हाचेभायर ताणें एका डझनावयर चलचित्रांच्यो कथा बरयल्यात तशेंच दोन चलचित्रांचें दिग्दर्शनूय ताणें केला. ताचें 'निर्माल्यम' (१९७३) हे

चलचित्रकंथेक राश्ट्रपतीचें भांगरा पदक मेळ्ळां. तशेंच, ताच्या 'ओरु वटक्कन वीर गाथा' (१९८९) हे चलचित्र कथेक राश्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळा. हाचेभायर १९७५-९४ ह्या काळांतल्या ताच्या उत्कृश्ट साहित्यीक योगदानाखातीर १९९४-९५ वर्साचो ज्ञानपीठ पुरस्कार ताका फावो जालो.

ताच्या पुराय साहित्यांत ताणें सामान्य मनशाच्यो मानसीक विवंचना बारीकसाणीन उक्तावपाचो यत्न केला. ताणें आपल्या साहित्यावरवीं मनशाच्या स्वभावाक मनोविज्ञानीक नदरेन पारखिल्लो दिश्टी पडटा.

– कों. वि. सं. मं.

**नारद :** एक देवर्षी आनी ऋग्वेदांतलो एक सूक्तकार. जाचेकडेन देवपण आनी ऋषीपण हांचो मेळ जाल्लो आसता ताका देवर्षी म्हण्टात. अशे वट्ट आठ देवर्षी आसून नारदाचो तातूंत आस्पाव जाता.

नारद हो यज्ञवेत्ता आशिल्लो अशें अथर्ववेदांत म्हळां. कण्वकुळांत उत्पन्न जाल्लो कण्व नारद हो सूक्तद्रष्टा आशिल्लो. ताच्या नांवाचेर ऋग्वेदांतलीं कांय सूक्तां आसात. सामवेदाचो 'शिक्षाग्रंथ' ताणें बरयलो. पूण वैदिक साहित्याकडेन संबंद आशिल्लो नारद पुराणीक नारदापरस वेगळो आसूंक जाय.

नारदाक विष्णुचो अवतार मानला. तो ब्रह्मदेवाचो मानिल्लो पूत आसून वेद, उपनिषद, योग, ज्योतिष, संगीत आनी जायत्या विद्यांचो विद्वान आशिल्लो. ताचो जल्म आनी चरित्र हांचो उल्लेख भागवत, वराह, ब्रह्मवैवर्त, हरीवंश, लिंग ह्या पुराणांनी तशेंच नारदपंचरात्र हातूंत येता. हातूंतल्या भागवत आनी वराहपुराणांत जो भाग आयला, तो आपजिणेसारको आसून हेरकडेन ताचें चरित्र आयिल्लें आसा. नारदाच्या जल्माच्यो आनी कार्याच्यो जायत्यो कथा पुराणांनी वाचूंक मेळटात. ह्या कथांनी वेगळेंपण तशेंच विरोधूय जाणवता. देखुनूच नारद नांवाचे जायते पुराणीक मनीस आसूंक जाय, अशें जाणकारांचें मत आसा. भागवतांत तो दासीपूत आसून वराह पुराणांत ताचो विप्रपूत म्हणून उल्लेख आयला. हो नारद ब्रह्मचारी आशिल्लो हें खरें; पूण ताच्या लग्नाची आनी संवसाराची कथा ब्रह्मवैवर्त आनी नारदपंचरात्र हातूंत येता. लग्नाचो यत्न केल्ल्या संबंदान नारदाचें तोंड माकडाचें जाल्ल्याचो उल्लेख महाभारत, शिवपुराण आनी लिंगपुराण हातूंत येता. पूण हें सगळें शापाखातीर जाल्लें आसून सगळ्यो कथा ताच्या पूर्वकल्पांतल्या जल्माच्यो आसात. चालू कल्पांत ताचें ब्रह्मचर्य अटळ आसा अशें म्हळां. नारद जातिस्मर म्हळ्यार पयलींच्या जल्माची याद उरपी आशिल्लो.

ब्रह्मदेवाचो दुसरो मानिल्लो पूत दक्षप्रजापती हाकाय ब्रह्मदेवान प्रजा उत्पन्न करपाची आज्ञा दिली. दक्षान सुरवातेक भरपूर पुतांची उत्पत्ती करून त्या भुरग्यांक मैथुन धर्मान प्रजा उत्पन्न करपाची आज्ञा दिली. पूण नारदान त्या भुरग्यांक विरक्त करून प्रजापतीच्या कार्यांत बादा हाडली. ताचो राग येवन दक्षान ताका 'तुका गर्भवास घडटलो आनी तू खंयच एका जाग्यार थीर उरचोना' असो शाप दिलो. लग्नाची विनवणी मान्य करूंक नाशिल्ल्यान दुर्गा नांवाचे एके चलये कडल्यान ताका अस्थिरत्वाचो शाप मेळ्ळो असोय, एकेकडेन उल्लेख मेळटा.

नारद वीणा घेवन नारायणाचें नामस्मरण करीत भोंवता, अशें वर्णन जायतेकडेन वाचूंक मेळटा. ताचो स्वताचो एक आश्रम आशिल्लो असो एकूच उल्लेख भागवतांत आयला. जायत्या पुराणांनी नारदाचें वर्णन आयलां. तो वर्णान गोरो, ब्रह्मतेजान भरिल्लो, उंच मस्तकाचेर जटाभार, हातांत वीणा, भांगराचें जानवें धारण करपी, चंद्रकिरणांभाशेन धवीं अशीं दोन इंद्रदत्त वस्त्रां न्हेशिल्लो, दंड-कमंडलू घेतिल्लो आनी पळोवप्याचेर छाप घालपी असो आशिल्लो.

नारद हो चडसो भक्तिमार्ग आनी कीर्तन संस्थेचो जनक आसलो. तरी अध्यात्म, राजनीत, धर्मशास्त्र, यज्ञप्रक्रिया, संगीत, आदी पुराय विशायांचें ज्ञान ताका आशिल्लें. तो बृहस्पतीचो शिश्य आशिल्लो. ताचेकडल्यान ताणें वेदवेदांगां सनत्कुमारापसून ब्रह्मज्ञान आनी ब्रह्मदेवापसून विष्णुमंत्राची प्राप्ती करून घेतली.

पुराणांत जायतेकडेन नारदाचो कलहप्रिय म्हणून उल्लेख आयला. सत्यभामा आनी रुक्मिणी हांचेमदीं ताणें झगडीं लायिल्लीं. देवकीच्या भुरग्यांक मारपाक कंसाक ताणेंच फुडें काडिल्लो. ताणें जायत्या जणांचो समेट घडोवन हाडिल्ल्याचो उल्लेखूय पुराणांत मेळटा. पार्वतीक शिव मेळोवन दिवपाक, सत्यभामेक कृष्ण मेळोवन दिवपाक, इंद्राक दधीच्यो अस्थी दिवपाक आनी ध्रुवाक तपस्वी करपाक ताचो हात आसा. जायत्या जाणांक ताणें ज्ञानाचो उपदेश केलो. तातूंत व्यास, वाल्मिकी हांचो आस्पाव आसा.

नरकासूराचे बंदखणींतल्या सोळा हजार बायलांकडेन कृष्ण लग्न जालो, हें आयकतकूच ताचो तो अजस्त्र संवसार पळोवंक नारद थंय गेलो. थंय ताका दर एकल्याच्या घरांत कृष्णाचें दर्शन जालें. विष्णुचे मायेन नारदाक बायलेचें रूप मेळिल्ल्याची कथा पद्मपुराणांत येता. देव आनी दानव ह्या दोगांयमदीं नारदाक मान आशिल्लो. तो चिरंजीव आसा असो समज आसा.

नारदाच्या नांवार नारदभक्तिसुत्रां, नारदस्मृती, नारदपंचरात्र, लघुनारदीय, बृहन्नारदीय, नारदपुराण, नारदसंहिता, नारदपरिव्राजकोपानिषद, नारदोपनिषद, आदी जायते ग्रंथ आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**नारद पुराण :** अठरा उपपुराणां मदलें एक म्हत्वाचें उपपुराण. सनत्कुमारान हें नारदाक सांगलें, म्हणून हाका नारद पुराण अशें म्हणण्टात. ह्या पुराणांत २५ हजार श्लोक आसात, अशें सांगतात. पूण सदद्या उपलब्ध आशिल्ले प्रतींत फकत १८ हजार ११० च श्लोक आसात. हाचे पूर्वभाग आनी उत्तरभाग अशे दोन भाग आसून पयल्यांत १२५ आनी दुसऱ्यांत ८२ अध्याय आसात. पूर्वभागांत चार पाद आसून, उत्तरभाग हो सलग आसा.

हें पुराण इ.स. ६०० च्या आदलें आसा, अशें मानतात. पद्म पुराणांत ह्या पुराणाक सात्त्विक अशें म्हळां. हातूंत एकादशी आनी श्रीविष्णु हांचें महात्म्य म्हत्वाचें आशिल्ल्यान ह्या पुराणाक वैष्णव पुराण अशें म्हण्टात. हें पुराण इतिहासीक नदरेन खूब म्हत्वाचें. कारण हातूंत अध्याय ९२ ते १०९ इतल्या भागांनी अठराय पुराणांची विस्तारान वळेरी दिल्या.

नारद पुराणांतले विशय अशे – गंगामाहात्म्य, भगीरथाची गंगावतरणाची कथा, धर्माख्यान, वापीकूपतडागादींची निर्मिती, तिथिव्रतां, दानां, प्रायश्चित्तां, युगचतुष्टय परिस्थिती, नाममाहात्म्य, सृष्टिनिरूपण, ध्यानयोग, मोक्षधर्मनिरूपण, निवृत्तिधर्मवर्णन, मंत्रसिद्धी, मंत्रजप, दीक्षाविधी,

गायत्रीविधान, महाविष्णुमंत्रजपविधान, नृसिंहमंत्र, हयग्रीवमंत्र, हनुमन्मंत्र, महेश्वरमंत्र, दुर्गामंत्र, एकादशी माहात्म्य, प्रसंगान रूक्मांगद – मोहिनीची कथा, पुरूषोत्तमक्षेत्रयात्रा, समुद्रस्नान, राम-कृष्ण-सुभद्रादर्शन, कुरूक्षेत्रमाहात्म्य, बदरीक्षेत्रयात्रा, पुष्करक्षेत्र माहात्म्य, नर्मदातीर्थमाहात्म्य, रामेश्वरमाहात्म्य, मथुरा-वृंदावनमाहात्म्य.

नारायण पुराणांतलें तत्त्वगिन्यान थोडेभितर अशें – नारायण हेंच निमाणें तत्त्व आसून ताका महाविष्णु अशें म्हण्टात. ताचेपसून ब्रह्मा – विष्णु-महेश निर्माण जातात. ह्या महाविष्णुची शक्त सत् आनी असत् अशा दोन तरांची आसा. तिका विद्या आनी अविद्या अशेंय म्हण्टात. हे अविद्येक लागुनूच महाविष्णुपसून जग वेगळें दिसता. जिवांक वेगवेगळे तरेचीं दुख्खां भोगचीं पडटात. भक्ती हें मनशाच्या जिवितांतलें म्हत्वाचें तत्त्व. भक्तियोगावरवींच देवाची कृपा मेळटा आनी मनशाचीं दुख्खां पयस जातात.

– कों. वि. सं. मं.

## नारदभक्तीसूत्रां :

**नारदभक्तीसूत्रां :** भक्तियोगाचें व्याख्यान करपी एक नामनेचो सूत्रग्रंथ. हातूंत ८४ सूत्रां आसात. हातूंत नारदान सांगलां की भक्ती हें सगळ्या गिन्यानाचेंच न्हय जाल्यार सगळ्या कर्मांचें आनी सगळ्या योगांचें निमाणें ध्येय. भक्ती ही सगूण, साकार परमेश्वराचेर आदारून आसता. भक्तींत वर्ण, शिक्षण, कूळ, संपत्ती वा कर्म हांचो कसलोच भेद उपरासना अशें सांगून नारदान भक्तीचीं साधनां अशे तरेन वर्णिल्यांत –

तत्तु विषयत्यागात् सङ्गत्यागाच्च । अव्यावृतभजनात् ।

लोके ऽपि भगवद्गुणश्रवणकीर्तनात् ।

मुख्यतस्तु महत्कृपयैव भगवत्कृपालेशाद्वा ।

**अर्थ** – विशयांचो त्याग, संगत्याग, अखंड नामस्मरण, लोकांमदीं देवाच्या गुणांचें श्रवण आनी कीर्तन हीं भक्तीचीं साधनां. पूण तेखातीर संत सज्जनांची व्हड कृपा आनी ईश्वरी कृपेचो अंश तरी जोडपाक जाय.

भक्तान एकांतवास करचो, योगक्षेमाची चिंता करची न्हय, संपत्तीचो विचार करचो न्हय, मद टाळचो, अहिंसा, सत्य, पावित्र्य, काकुळट ह्या गुणांची वाड आपल्या अंतस्कर्णांत करची, कोणाकडेन झगडचें न्हय आनी दुसऱ्यांचे निंदेकडेन दुर्लक्ष करचें अशें नारदान सांगलां. हेरांचीं भक्तीलक्षणां सांगून जातकूच स्वताचीं भक्तीलक्षणां सांगतना नारदान म्हळां सगळीं कर्मां भगवंताक ओंपून रावप आनी त्या देवाचो विसर पडटकूच उपाट व्याकूळ जावप हें नारदाच्या मतान भक्तीलक्षण.

भक्तीक लागून पुराय समाधान मेळटा आनी सगळ्यो वासना नश्ट जातात. भक्त हो स्वतावांगडाच हेरांचोय उद्धार करता अशें सांगून नारदान भक्तीचे इकरा प्रकार सांगल्यात, ते अशे – देवाचें गुणकीर्तन, ताच्या दर्शनाची तळमळ, ताचे मुर्तीची पुजा, ताचें ध्यान, सेवा, सख्य, प्रेम, बायल घोवाचेर करता ते तरेचो मोग, आत्मनिवेदन, परमेश्वराकडेन एकवट आनी परमेश्वर विरहाचें दुख्ख.

– कों. वि. सं. मं.

## नारदस्मृती :

**नारदस्मृती :** एक स्मृतिग्रंथ. हे स्मृतीचो प्रस्तावीक भाग गद्यमय आसून फुडलो सगळो भाग श्लोकात्मक आसा. वट्ट श्लोक १०२८ आसात. तातूंतले ५० श्लोक नारद आनी मनू ह्या दोगांयचेय सारकेच आसात. हे स्मृतींतले सुमार ७०० श्लोक वेगवेगळ्या निबंधग्रंथानी आयल्यात. विश्वरुपान हाचे सुमार ५० श्लोक घेतल्यात. नारदस्मृतीचो काळ इ. स. चवथ्या वा पांचव्या शेंकड्यापयलीं आसप शक्य ना, अशें डॉ. केतकर हाचें म्हणणें आसा. म. म. काणे हाच्या मताप्रमाण नारदस्मृतीचो काळ इ. स. च्या पयल्या आनी तिसऱ्या शेंकड्याच्या मदीं आसूंक फावो.

स्वायंभुव मनून जो मूळ धर्मग्रंथ बरयलो, तोच फुडें भृगु, नारद, बृहस्पती आनी अंगिरस हाणीं वाडयलो. नेपाळांत जी नारदस्मृतीची प्रत सांपडल्या, तिचे अखेरेक 'इति मानवधर्मशास्त्रे' अशे शब्द सांपडटात आनी मनुस्मृतीकूय मानवधर्मशास्त्र अशेंच म्हण्टात. नारदस्मृतीच्या कांय अध्यायांतलो मजकूर जशाक तसो मनुस्मृतींत सांपडटा. ब्रह्मदेशांत 'धमत्थत्सं' म्हणून जे कायदे आसात, ते मनुस्मृतीच्या आदारान तयार केल्यात, अशें म्हण्टात. पूण तातूंतले कितलेशेच कायदे मनुस्मृतींत सांपडनासतना नारदस्मृतींत सांपडटात.

नारदान आपले स्मृतीच्या प्रस्ताविक भागांत व्यवहारमातृक म्हळ्यार न्यायदान ह्या विशयाचीं सामान्य तत्त्वां दिल्यांत. तातूंत न्यायसभेविशींचीय म्हायती आयल्या. उपरांत कायदयाचे विशय दिल्यात ते अशे – ऋणादान (रिणाची) वसुलीची, उपनिधी (ठेव, रीण आनी तारण), संभूय समुत्थान (उद्‌देगधंदयांतली भागीदारी), दत्ताप्रदानिक (दिल्लें दान परत घेवप), अभ्युपेत्य अशुश्रुषा (नोकरेचे कबलातीचो भंग), वेतनस्थ-अनपाकर्म (नोकरांक पगार दिवप ना), अस्वामिविक्रय (मालकी नासतना कसलीय वस्तू विकप), क्रीतानुशय (खरेदी रद्द करप), सीमाबंध (चतुस्सीमा निश्चीत करप), स्त्री पुंसंयोग (वैवाहिक संबंद), दायभाग (येणावळीचें वांटप आनी वारसोहक्क), साहस (खून, दरोडे, बलात्कार आनी हेर गुन्यांव). परिशिश्टांत चोरी ह्या गुन्यांवाविशीची फोडणीशी केल्या.

मनू आनी नारद हांचे कितल्याशाच बाबतींनी मतभेद आसात. दिव्यां, बायलांचो पुनर्विवाह आनी द्यूत हांचेविशीं दोगांयनी वेगवेगळीं मतां उक्तायल्यांत. न्यायदानाचो तपशील नारदान याज्ञवल्क्यापरस चड पद्धतशीर आनी विस्तारान दिला. पूण नारदाचीं कांय मतां याज्ञवल्क्यापरस चड पुराणमतवादी आसात. कायदो, राजा, राजकारण, हांचेविशींय ताणें मतां परगटायल्यांत.

प्रमाण अशो मानिल्लयो नारदस्मृतीच्यो कितल्योशोच प्रती आसात. पूण श्री. बेंडाल हाका नेपाळांत ताडपत्राचेर बरयल्ली जी प्रत सांपडल्या, तीच खरी अशें समजतात. तातूंत एक नवो अध्याय आसा. नारदस्मृतीचेर असहाय नांवाच्या एका पंडितान टिका केल्या, ती खूब म्हत्वाची अशें मानतात.

– कों. वि. सं. मं.

## नारळीकर, जयंत विष्णू :

**नारळीकर, जयंत विष्णू :** (जल्म : १९ जुलय १९३८, कोल्हापूर, महाराष्ट्र).

भारतीय खगोलीय भौतिकीविज्ञ आनी गणितज्ञ. ताचो बापूय विष्णु वासुदेव नारळीकर हो रँग्लर आसून तो बनारस हिंदू विद्यापिठांत आनी पुणें विद्यापिठांत गणिताचो प्राध्यापक आशिल्लो. ताचे आवयचें नांव सुमति आनी बायलेचें मंगला आसून ती पुणें विद्यापिठांत गणिताची प्रपाठक म्हणून काम करता. गीता, गिरिजा आनी लिलावती अशो ताका तीन धुवो आसात.

१९५७ वर्सा ताणें बनारस हिंदू विद्यापिठाची बी. एससी. पदवी

मेळयली. १९५७ वर्सा ताका कॅंब्रिजांतल्या उंचेल्या शिक्षणाखातीर जे. एन. टाटा शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. १९५८-६० ह्या वर्सा तो कॅंब्रिज विद्यापिठांतली गणितांतली ट्रायपॉस ही परिक्षा पास जालो. मजगतीं, १९५९ वर्सा तो रॅंग्लर जालो. उपरांत १९६० वर्सा ताणें कॅंब्रिज विद्यापिठाची बी. ए., १९६३ वर्सा पीएच. डी., १९६४ वर्सा एम्. ए.आनी १९७६ वर्सा डी. एस्सी. ह्यो पदव्यो घेतल्यो. १९६०-६१ वर्सा ताका डब्ल्यू. ए. मीक शिश्यवृत्ती मेळ्ळी.

संशोधन, अध्यापन आनी लिखाण हे ताचे वेवसाय. दृक्-श्राव्य माध्यमांतल्यान इंग्लीश, हिंदी आनी मराठी भाशांतल्यान विज्ञानाचें म्हत्व लोकांमेरेन पावोवप हो ताचो छंद. सद्या तो पुण्याच्या, आंतर-विद्यापिठीय केंद्राच्या खगोलशास्त्र आनी खगोली भौतिकी ह्या विशयांचो संचालक आसा.

फ्रॅड हॉयल, एच. बॉंडी आनी टी. गोल्ड हाणीं पयलीं मांडिल्ल्या विश्वोत्पत्तिशास्त्रांतली (cosmogony) थीर अवस्था उषपत्तीच्या संदर्भांत नारळीकरान संशोधन केलें. नारळीकर आनी हॉयल हाणीं विश्वांतल्या द्रव्याचे निर्मितीविशीं गणितीय विवरण केलें. हेखातीर ताणीं ऋणात्मक उर्जेची संकल्पना वापरली. गुरूत्वाक लागून कसलेय वस्तूचे जलद गतीन जावपी आकुंचनाक 'गुरूत्वीय अवपात' म्हण्टात.

ऋणात्मक उर्जेची शक्त वापरून हो अवपात थांबोवं येता, अशें नारळीकर आनी हॉयल हाणीं दाखोवन दिलें. ११ जून १९६४ दिसा लंडनचे रॉयल सोसायटीमुखार हॉयल आनी नारळीकर हाणीं गुरूत्वाकर्शणाचो एक नवो सिद्धांत मांडलो.

नारळीकर आनी ताचो वांगडी के. एम. व्ही. अप्पाराव हाणीं विश्वांत काळ्या विवरांभाशेन धवींय विवरां(White holes) अस्तित्वांत आसात आनी प्रत्यक्षांत तीं विवरां (Cavity) नासून द्रव्य आनी उर्जा हांचीं उगमस्थळां आसात, अशें मत मांडलें.

नारळीकराचें साहित्यीक योगदान व्हड आसा. ताचें भोवतेक सगळें लिखाण हें विज्ञानीक साहित्य. देखीक - विज्ञान कथा, विज्ञान लेख, संशोधन निबंध, परिसंवाद निबंध, व्याख्यान निबंध ह्या प्रकाराखाला येता. इंग्लीश, मराठी, हिन्दी ह्या भारतीय भाशांनी ताणें सुमार ३१ पुस्तकां बरयल्यांत आनी सुमार २५ पुस्तकां संपादीत केल्यांत. हातूंतल्या कांय पुस्तकांचे अणकार गुजराती, तेलुगू, कन्नड ह्या भारतांतल्या मुखेल भाशांनी तशेंच रशियन, जपानी, स्पेनीश, इटालियन, पोलंडी, फ्रंसेझ, चीनी आनी ग्रीसी भाशांनी जाल्ले आसात. हाचेच जोडयेक ताचे सुमार ६०० विज्ञान संबंदीत निबंध संवसारांतल्या नामनेच्या नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात.

नारळीकर हो १९६३-१९८३ मेरेन रॉयल ॲस्ट्रॉनॉमिकल सोसायटीचो फॅलो आशिल्लो तशेंच १९६३ सावन तो कॅंब्रिज फिलॉसॉफिकल सोसायटीचो फॅलो आसा. १९६२-६३ वर्सा तो फिट्झ विल्यम हाउस, कॅंब्रिजांतल्या गणिती अध्ययनाचो संचालक आशिल्लो. किंग्स कॉलेज, कॅंब्रिजांत तो १९६३-६९ मेरेन बॅरी-रॅम्से फॅलो आनी १९६९-७२ मेरेन वरीश्ठ संशोधक फॅलो आशिल्लो. १९६७-७२ वर्सा तो कॅंब्रिज विद्यापिठांतल्या इन्स्टिटयूट ऑफ थिऑरेटिकल ॲस्ट्रॉनॉमी हे संस्थेच्या अध्यापन आनी संशोधन वर्गाचो वांगडी आशिल्लो. १९७३-७५ ह्या काळांत तो जवाहरलाल नेहरू फॅलो आशिल्लो. १९७४ सावन तो इंडियन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचो फॅलो आसा. १९७६ वर्सा 'इंडियन नॅशनल सायन्स ॲकॅडेमी' न फॅलोशिप दिवन ताच्या संशोधन कार्याचो भोवमान केलो. तेच भाशेन १९८६ वर्सा सावन तो नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, इंडियाचो फॅलो आसा आनी १९७६ वर्सासावन महाराष्ट्र ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचो फॅलो आसा. कांय काळ ताणें टाटा इन्स्टिटयूट ऑफ फंडामॅंटल रिसर्च, मुंबय हे सुवातेर खगोलीय भौतिकीचो प्राध्यापक म्हणून काम केलां.

कॅंब्रिज विद्यापिठान नारळीकर हाका ज्योतिशशास्त्रांतलें टायसन पदक (१९६०), स्मिथ पुरस्कार (१९६२) आनी ॲडम्स पुरस्कार (१९६७) दिवन ताचो भोवमान केला. १९६५ वर्सा भारत सरकारान ताका 'पद्मभूषण' हो किताब भेटयलो. १९७३ वर्सा मुंबयच्या इन्स्टिटयूट ऑफ सायन्सीन भांगरा महोत्सवांत भांगरा पदक दिलें.

तशेंच ताचीं हेर इनामां अशीं आसात - मराठी विज्ञान परिशद पुरस्कार (१९७४), अत्रे फाउंडेशन पुरस्कार (१९७६), एस्. एस्. भटनागर पुरस्कार (१९७८), यक्षाची देणगी (१९७९) आनी 'प्रेषित' (१९८७) ह्या पुस्तकांक साहित्याखातीर आशिल्ले महाराष्ट्र राज्य पुरस्कार मेळ्ळ्यात.

एफ्. आय. ई. फाउंडेशन, इंचलकरजीचो राश्ट्रभूषण पुरस्कार (१९८३), विश्वभारतीचो रथींद्र पुरस्कार (१९८५), मदन मोहन मालवीय यादस्तीक पुरस्कार (१९८७), कलकत्त्याचे एशियन सोसायटीचें दुर्गा प्रसाद खेतान यादस्तीक पदक (१९८७), मॅथॅमॅटिकल ॲसोसिएशन ऑफ इंडिया, दिल्लीचो असामान्य सेवा पुरस्कार (१९८७), बिहार राज्य राज्यभाशा विभागाचो आर्यभट पुरस्कार (१९८७), आय. एन्. एस्. ए. चे दोन पुरस्कार आशिल्लो वैनू बापू पुरस्कार (१९८८) आनी इंदिरा गांधी पुरस्कार (१९९०), टाटा इन्स्टिटयूट ऑफ फंडामॅंटल रिसर्च, मुंबय हे सुवातेर खगोलीय भौतीकीचो प्राध्यापक (१९८९), केंद्रीय हिन्दी संस्थानाचो आत्माराम पुरस्कार (१९८९), उत्तर प्रदेश हिन्दी संस्थानाचो संस्थान सन्मान (१९९०), नागरकर ट्रस्ट पुरस्कार (१९९०), बुर्दवान विद्यापिठान, मानाची डॉक्टर ऑफ सायन्स ही पदवी दिली (१९९१), एम्. डब्ल्यू. चिपळूणकर पुरस्कार (१९९१), कुरूक्षेत्र विद्यापिठाचो गोयल पुरस्कार (१९९२), नासिकच्या भौशीक वाचनालयाचो डॉ. व्ही. एम्. गोगटे पुरस्कार (१९९२), एफ. आय. सी. सी. आय. पुरस्कार (१९९२).

नारळीकरान केल्ली देशांभायली भोंवडी अशी आसा - १९५७-१९७२ मेरेन कॅंब्रिज, इंग्लंड; जून १९६३ ते डिसेंबर १९६४ ह्या काळांत कॅलॉग रेडिएशन लॅबॉरेटरी, कॅलिफॉर्निया-इन्स्टिटयूट ऑफ टॅक्नॉलॉजी पासेडीना, अमेरिका; जून ते सप्टेंबर १९६७ युनिव्हर्सिटी ऑफ मॅरीलॅण्ड, कॉलेज पार्क, अमेरिका; फेब्रुवारी ते ऑगस्ट १९७१ कॉर्नेल युनिव्हर्सिटी, इथाका, अमेरिका; १९७३ सप्टेंबरात न्यूफिल्ड रेडिओ ॲस्ट्रॉनॉमी ऑब्झरवेटरी जॉड्रेल बॅंक, अमेरिका; जानेवारी ते जुलय १९७५ युनिव्हर्सिटी ऑफ कॅलिफोर्निया आनी युनिव्हर्सिटी ऑफ टॅक्सास, अमेरिका; जुलय ते सप्टेंबर १९७६ युनिव्हर्सिटी कॉलेज, इंग्लंड; १९७९-१९८४ मेरेन कीटपीक नॅशनल ऑब्झरवेटरी, टॅक्सास, अमेरिका; एप्रिल-जून १९८८, कॉलेज द फ्रांस, पॅरिस; मे-जून १९९० - CSIR - NSF जेश्ट शास्त्रज्ञ, अमेरिका.

– प्रॉ. एल. राधाकृष्णन

**नारायण, आर्. के. :** (जल्म : १० ऑक्टोबर १९०६, चेन्नई).

नामनेचो इंडो-अँग्लियन कादंबरीकार आनी कथाकार. ताचें पुराय नांव राशिपुरम कृष्णस्वामी नारायण. राशिपुरम वा रासीपूर ह्या सालेम जिल्ह्यांतल्या तालुक्यांत ताचे पुर्वज रावताले. पूण ताचो जल्म जाले उपरांत ताच्या बापायक शिक्षकाची नोकरी मेळ्ळी. तेन्ना ताणें आपलें कुटूंब थंय व्हेलें. १९३० त ताणें म्हैसूरच्या 'महाराजा' कॉलेजींतल्यान पदवी मेळयली. उपरांत म्हैसूरच्या सचिवालयांत आनी उपरांत कांय दीस शिक्षक म्हूणून ताणें नोकरी केली. पूण फुडें ताणें लिखाणाचेरच जिवीत जियेवपाचें थारायलें. 'स्वामी अँड फ्रेंडस' (१९३५) ही ताची पयली कादंबरी. उपरांत ताणें 'द बॅचलर ऑफ आर्ट्स' (१९३७), 'द डार्क रूम' (१९३८), 'दी इंग्लीश टिचर' (१९४६), 'वेटिंग फॉर द महात्मा' (१९५५), 'द गायड' (१९५८), मॅनइटर ऑफ मालगुडी' (१९६२), 'द वँडर ऑफ स्विट्स' (१९६७) ह्यो कादंबऱ्यो ताणें बरयल्यो. 'मालगुडी' नांवाचो दक्षिण भारतीय गांव कल्पून ताचे फाटभुंयेचेर ताणें आपल्यो कथा-कादंबऱ्यो रचल्यो. ह्या गांवांतल्या मध्यम आनी सकयल्ल्या वर्गाचें खरेंखरें चित्रण करतना ताणें सरळ, सादया आयुश्यांत दिश्टी पडपी नाटकीपण मोटे कुशळटायेन टिपलां. द गायड ही ताची सगळ्यांत बरी साहित्यकृती. भोंवडेकाराचो गायड म्हूणून काम करपी राजू नांवाच्या एका भुरग्याची ही काणी. खेडवळांचे अंधश्रद्धेखातीर तो साधू जाता. पूण फुडें त्या साधुत्वाच्या भारान तो चिडून मरता. हे कादंबरेचेर आदारीत 'गाइड' हें हिंदी आनी इंग्लीश चलचित्र खूब गाजलां. १९६० वर्सा हे कादंबरेक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. ताचे 'ॲन अस्ट्रॉलॉजर्स डे' (१९४७) आनी 'लॉली रोड' (१९५६) हे उल्लेख करपासारके कथासंग्रह आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**नारायणगुरू :** (जल्म : २० सप्टेंबर १८५४ चंपाळती, ता. नेय्यांतिकर, जिल्हो - त्रिवेंद्रम; मरण : १९२८ शिवगिरी, वरकळ).

केरळांतलो एक व्हड धर्मसुदारक आनी समाजसुदारक. ईळव नांवाच्या एका अस्पृश्य जातीच्या घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचें नांव माटन आशान आनी आवयचें नांव कुट्टी अशें आशिल्लें. ताच्या बापायक तशेंच कृष्णन वैद्यर ह्या ताच्या बापोलयाक दोगांकय संस्कृताचो अभ्यास आशिल्लो. तशेंच, ज्योतिशशास्त्र आनी आयुर्वेदाचेंय तांकां बरें गिन्यान आशिल्लें. ताणें संस्कृत, तमीळ आनी मल्याळमाचें मुळावें शिक्षण आपल्या बापोलया कडल्यानच घेतलें. फुडलें मुळावें शिक्षण चंपाळती मुथा पिळ्ळा हांचे थळावे शाळेंत पुराय केलें. फुडें कुम्मम्पळ्ळी रामन् पिळ्ळा आशान हाचेकडेन ताणें संस्कृत काव्यशास्त्र, नाट्यशास्त्र आनी अलंकारशास्त्र हांचें शिक्षण पुराय केलें. तरणेपणांतच ताणें संस्कृत, तमीळ आनी मल्याळम ह्या भाशांचेर प्रभुत्व मेळयलें. उपरांत चट्टाबी स्वामीकळ (कुंचन पिळ्ळा चट्टाबी) आनी थैक्कर अय्यवू ह्या दोन गुरूंकडेन रावन ताणें वेदान्ताचो आनी योगविद्येचो अभ्यास पुराय केलो. ल्हानपणापसुनूच ताका वैराग्या कडेन ओड आशिल्ल्यान परंपारिक उच्च धर्मीक शिक्षण पुराय जातकच ताणें विमुक्त जीण जगपाचें थरयलें. कन्याकुमारी लागसल्ल्या मरूतवाभलै गांवांत पिळ्ळा थाडम नांवाचे व्होंवरेंत रावन ताणें खर तपश्चर्या केली. तपश्चर्या सोंपतकूच समाजजिणेचें निरिक्षण करपाखातीर ताणें तमीळनाड आनी केरळ ह्या वाठारांची भोंवडी केली. तेन्ना ताका उच्च जातीच्या हिंदूंकडल्यान अस्पृश्यांचे हाल जातात अशें नदरेक आयलें. तोच अस्पृश्य आशिल्ल्यान ताकाय ह्या हालांतल्यान वचचें पडिल्लें आनी हे गजालीचो फायदो घेवन क्रिस्तांव आनी मुसलमान लोक अस्पृशांक आपल्या धर्मांत ओडटाले. तें पळोवन ताणें आपलें पुराय आयुश्य समाजीक अन्यायाचो प्रतिकार करपाक तशेंच अस्पृश्य जातीच्या उद्धाराखातीर उपेगाक हाडपाचें थरयलें. अस्पृश्यांच्या उद्धाराखातीर विधायक कार्यक्रम हातांत घेवप, तांकां एकठांय हाडप, तांचेखातीर शिक्षणीक संस्था निर्माण करप, धर्मसुदारणा करप, लोकशिक्षण आनी लोकजागृतीखातीर सतत यत्नशील रावप अशा वेगवेगळ्या आंगांनी ताणें आपली चळवळ सुरू केली. अस्पृश्यांमदीं धर्मीक संस्कारांचो उणाव हेंच तांचेमदले अनिश्ट प्रवृतींचें मूळ कारण आशिल्यान, तांचेखातीर अशे संस्कार निर्माण करपी देवळां स्थापन करपाचो वावर ताणें हातांत घेतलो. थिरूवनंतपुरमा लागसल्ल्या अरूविप्पुरम, अंजेंगो, पेरिंगोत्तुकर, थ्रिशूर, कन्ननोर, तेल्लीचेरी, कालिकत, मंगळूर, वरकळ आदी म्हत्वाच्या वाठारांनी सुमार १० वर्सांमदीं ताणें १०० परसय चड देवळांची स्थापना केली.

सगळ्यांखातीर एकूच जात, एकूच धर्म आनी एकूच परमेश्वर हें ताचे चळवळीचें ब्रीदवाक्य आशिल्लें. ह्या जगांत एकूच जात आसा आनी ती म्हळ्यार मनशाची, परमेश्वरूय एकच आसा अशे तरेचो उपदेश करून ताणें लोकांचीं मनां भारावन उडयलीं. तशेंच, जो धर्म मनशाक वायटापसून बऱ्याकडेन वचपाची शिकवण दिता तोच खरो धर्म अशें तो सांगतालो.

ताणें स्थापन केल्ल्या देवळांतल्यान देवपुजेपरस नैतिक शिक्षण, सर्वधर्म समभाव, नितळसाण आदीं गजालींक चड म्हत्व दिताले. मनशांमदले परस्पर भावबंध वाडीक लागपाचे नदरेन सगळ्या धर्मांचो तुळात्मक अभ्यास जावंचो अशी ताची इत्सा आशिल्ली. ते नदरेन ताणें दोन फावटीं श्रीलंकेची भोंवडी केली. ताचे प्रेरणेन अलवाये नगरांत 'विश्वबंधुत्व परिशद' (कॉन्फरन्स ऑफ ब्रदरहूड, १९२१) तशेंच, 'सर्व धर्म परिशद' (१९२४) अशो दोन परिशदो घेतल्यो. तशेंच, अध्यात्मविद्येच्या अभ्यासाखातीर 'ब्रह्म विद्या मंदिरम्' अशो संस्थाय स्थापन जाल्यो.

नारायणगुरून अस्पृश्य जातींच्या उद्धाराखातीर १५ मे १९०३ ह्या दिसा 'श्री नारायण धर्म परिपालन योगम्' (एस्. एन्. डी. पी.योगम्) ही संस्था स्थापन केली. अस्पृश्यांच्या समाजीक, अर्थीक गरजांकडेन लक्ष दिवप, तशेंच तांच्या शिक्षणाचो प्रसार करप हो हे संस्थेचो मुखेल उद्देश आशिल्लो. हे संस्थेवतीन जायतीं माध्यमिक आनी उच्च विद्यालयां स्थापन जालीं. गरजू तशेंच हुशार अश्पृश्य विद्यार्थ्यांक शिक्षणीक संधी मेळोवन दिल्यो. म्हाकवी कुमार आशान, के. अय्यप्पन आनी डॉ. पी. नटराजन् अशा कांय नामनेच्या मनशांक हे संस्थेचो लाव मेळ्ळो.

नारायणगुरून संस्कृतांत आठ, तमीळांत दोन आनी मल्याळमांत ३० अशे ४० परस चड ग्रंथ निर्मिले. ताची चडशी पद्यरचना धर्मीक स्तोत्रां आनी तत्त्वचिंतनात्मक स्वरुपाचीं आसात. आपल्या सुरवातेच्या कवितांनी ताणें (१८८४) शिवपुराणांतली कथा आनी अद्वैत वेदान्त हांचो बेसबरो मेळ सादला. आत्मोपदेशतकम् (१८९७) हें ताचें वेदान्तावयलें काव्य जाल्यार दर्शनमाला १९१६ हें ताचें संस्कृत काव्य. कालीनाटकम, शिवशतकम, चिज्नटचिंतनम्, कुंडलिनिपाटटु, जातिनिर्णयम, जातिलक्षणम् आदी ताच्या मल्याळमांतल्या रचनांची नामना आसा. ताच्या कवितांचीं संकलनां उजवाडाक आयिल्लीं आसून तातूंतल्या 'श्री नारायणगुरू धर्म संघम्', वरकळचे वतीन उजवाडाक आयिल्ल्या 'श्री नारायण गुरूदेव

कृर्तिकळ' (१९५३) हाची चड नामना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**नारायणन, कोचेरी रामन :** (जल्म : २७ ऑक्टोबर १९२० उजावुर-कोट्टायम, केरळ).

भारताचो ११वो राश्ट्रपती. ताचो जल्म गरीब दलीत कुटुंबात जालो. हुशार भुरगो म्हणून विद्यार्थी दशेसावन तो नामनेक पावलो. शिश्यवृत्त्यो मेळोवन आनी शिकवणी दिवन ताणें आपलें सुरवेचें शिकप पुराय केलें. १९४३त थिरूअनंतपुरमच्या विद्यापीठ महा विद्यालयांतल्यान बरे गूण मेळोवन ताणें पदवी घेतली.



ब्रह्मदेशीय युवती मा टीन्ट टीन्ट (आतांची उषा) हिचे कडेन ताणें लग्न केलें (१९५१). तांकां दोन धुवो आसा.

कॉलेजींत व्याख्यातो म्हणूत ताणें आपले जिणेची सुरवात केली. फुडाराक ताणें पत्रकारिता (टायम्स ऑफ इंडिया - मुंबय, हिंदू - मद्रास) आपणायली. ह्याच वेळार टाटा स्कॉलरशिपय ताका मेळ्ळी आनी तो लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स हांगा फुडलें शिकप घेवपाखातीर गेलो. हे पदवेचे शिकप करतनाच के. एम्. मुन्शी हाच्या संपादनाखाल भायर सरपी सोशल वेल्फेर विकली (मुंबय) खातीर तो लंडन वार्ताहर म्हणून वावरतालो. हांगा ताका संवसारीक किर्तीचे विचारवंत प्रा. हेरोल्ड लास्की हाचें मार्गदर्शन लाबलें. राज्यशास्त्र हो खाशेलो विशय घेवन १९४८त ताणें अर्थशास्त्रांतली पदवी पयल्या वर्गांत उत्तीर्ण जावन मेळयली. प्रा. लास्की ह्याणें ताची शिफारस प. जवाहरलाल नेहरूकडेन केली. पं. नेहरून १९४९त ताका भारतीय विदेशी सेवेंत घेतलो आनी थंयच्यान ताचे राजनैतिक जिणेक सुरवात जाली. आपली तल्लख बुदवंतकाय आनी वेवसायिक राजनित हाचो फिशालकायेन उपेग करून ताणें आपली छाप भारतीय विदेशी राजनितीचेर घाली. बरेच विदेशी राजनैतिक प्रस्न ताणें सुटावे केले. थायलंड आनी तुर्कस्थानान भारताचो राजदूत म्हणून तो वावुरलो. रंगून, टोकियो, लंडन, ऑस्ट्रेलिया, हॅनोई हांगाय तो भारताचे शिश्टमंडळ घेवन गेलो. चीनान १९६८त भारताचेर घुरी घाल्ल्यान भारत-चीना मदले जे संबंद सामके इबाडिल्ले ते१९७६च्या जुलयांत भारताचो राजदूत म्हणून चीनांत वतकीच तुटिल्ले संबंद जोडपाचें आव्हान ताणें स्विकारलें आनी तो तातूंत यशस्वी जालो. दोन वर्सां उपरांत विदेशी सेवेंतल्यान तो मेकळो जालो तेन्ना जवाहरलाल नेहरू विद्यापिठाचो उपकुलपती म्हणून ताची नेमणूक जाली. ताचे पयलीं म्हल्यार १९५४-५५त दिल्ली स्कूल ऑफ इकॉनोमिक्स हांगा अर्थशास्त्रीय प्रशासनाचो व्याख्यातो म्हणून तो वावुरलो.

१९८०त पंतप्रधान इंदिरा गांधीन ताका वॉशिंग्टनचो भारतीय राजदूत नेमलो. थंय तो ४ वर्सां ह्या पदाचेर उरलो. परराश्ट्र मंत्रालयाचीं धोरणां आंखपाखातीरूय संयुक्त सचीव आनी अतिरीक्त सचीव म्हणून ताणें काम केलें. १९७६त अतिरिक्त सचीव पदावयल्यान तो सचीव पदार पावलो. १९७०-७२ नेहरूच्या अलिप्तताय धोरण तत्त्वांचो अभ्यास करपाखातीर ताका नेहरू फेलोशिप मेळ्ळी.

वॉशिंग्टनातले जापसालदारकेंतल्यान मेकळो जाले उपरांत नारायणन सक्रीय राजकारणात देंवलो. कॉंग्रेसीच्या तिकेटीचेर १९८४, १९८९ आनी १९९१ तो ओट्टापालाची सुवात जिकून लोकसभेंत पावलो. नियोजन आनी उदक खातें, परराश्ट्र वेव्हार आनी विज्ञान तंत्रगिन्यान राज्यमंत्री म्हणून तिनय खेपो ताची केंद्रीय मंत्रीमंडळांत निवड जाली.

१९९२त तो भारताच्या उपराश्ट्रपती पदाचेर ताची एकमतान निवड जाली. २५ जुलय १९९७त ह्या दिसा तो भारताचो ११वो राश्ट्रपती जालो.

नेहरू मेमोरियल फंड, इंडियन काउन्सिल फॉर सोशल सायन्स रिसर्च, इंडियन इस्न्टिट्युट ऑफ मास कम्युनिकेशन सारक्या विंगड विंगड संस्था, मंडळां आनी ट्रस्टांचे कार्यकारीणीचेर ताणें वांगडी म्हणून काम केलां. 'नॉन एलायन्मेंट इन कंटेम्परी इंटरनॅशनल रिलेशन्स इन इंडिया ॲन्ड अमेरिका', 'एसेज इन अंडरस्टॅंडिंग' हीं ताचीं पुस्तकां बरींच गाजल्यांत. भारतीय राजनीतीक धोरणाचेर हातूंत ताणें भाश्य केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**नारायणबळी :** अपघातान वा जीव दिल्ल्या मनशाचे अंत्यसंस्कार विधीयुक्त जालेनात जाल्यार ताच्या आत्म्याक सद्‌गती मेळना असो शास्त्रीय समज आसा. अशा वेळार मृत मनशावरवीं त्या मनशाच्या कुळाचे संततीक बादा येता, तेन्ना नारायणबळीचो विधी करचो अशें सांगलां.

नारायणबळीचो विधी असो - खंयचेय शुद्ध एकादशीक न्हंयेचे देगेसारक्या पवित्र जाग्यार नारायणबळीचो संकल्प करचो. दोन कलशांचेर विष्णु आनी वैवस्वत यम हांच्यो भांगरा प्रतिमा स्थापून तांची षोडशोपचार पुजा करची. उपरांत त्या कलशांचे उदेंतेक दर्भान एक ओळ ओडून दक्षिणाग्र कुश पातळावचे. ताचेर 'शुन्धन्तां विष्णुरूपी प्रेतः' ह्या मंत्रान धा वेळा उदक सोडचें. मागीर दक्षिणेक तोंड करून अपसव्यान विष्णुरूपी प्रेताचें ध्यान करचें. त्या पातळायिल्ल्या कुशांचेर म्हॉंव, तूप आनी तीळ हांचो आस्पाव आशिल्ले धा पींड 'काश्यपगोत्र अमुकप्रेत विष्णुदैवत अयं ते पिण्डः' अशें म्हणून दिवंचे. पिंडाची गंध आदी उपचारांनी पुजा करून मागीर तांचें न्हंयेंत विसर्जन करचें. हो विधी पयल्या दिसा करतात.

दुसऱ्या दिसा दनपारां विष्णुची पुजा करतात. उपरांत एक, तीन वा पांच अशा विशम आंकड्यांच्या ब्राह्मणांक आपोवन एकोद्दिष्ट विधीन त्या विष्णुरूपी प्रेताचें श्राद्ध करतात. हें श्राद्ध ब्राह्मणांच्या पादप्रक्षालनासावन तृप्तीप्रस्नामेरेन मंत्रविरयत करतात. विष्णु, ब्रह्मा, शिव आनी यम हांकां नाममंत्रांनी चार पींड दितात. विष्णुरूपी प्रेताखातीर पांचवो पींड दितात. पिंडपुजा करून तांचें विसर्जन जातकूच ब्राह्मणांक दक्षणां दितात. एका ब्राह्मणाक वस्त्रालंकार, गाय आनी भांगर ह्यो वस्तू दितात. मगीर प्रेताक तिलांजली दिवपाखातीर ब्राह्मणांची प्रार्थना करतात. ब्राह्मण कुश, तीळ आनी तुळशी हांचेवांगडा उदक पोशांत घेवन प्रेताक दितात. मागीर कर्तो न्हावन बी जेवण करता. ह्या विधीक लागून प्रेताच्या आत्म्याक स्वर्गप्राप्ती जाता अशें सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**नारायण यंत्र :** नारायणाचे पुजेखातीर गरजेचें अशें यंत्र. ह्या यंत्रांत मदीं 'ॐ नमो लक्ष्मीनारायणाय' अशें बरोवन ताचे भोंवतणीं एक त्रिकोन काडटात. त्रिकोनाच्या तीन कडांनी प्रभा, आवरण आनी विक्षेप ह्या शक्तींचीं नांवां बरयतात. त्रिकोनाच्या भोंवतणीं षट्कोन काडटात आनी ताच्या स ओळींचे भितरले वटेन महोल्का, वीरोल्का, वृध्दोल्का, पृथूल्का, विद्युदुल्का, ज्वलदुल्का अशीं नांवा बरयतात. ह्या षट्कोना भोंवतणीं एक वाटकूळ काडटात आनी तातूंत अष्टदल कमळ चितारतात. अष्टदलांत सनक, सनंदन, सनत्सुजात, सनत्कुमार, सनातन, नारद, तुंबरू आनी समंत हीं नांवां बरयतात. हे आकृती भोंणतणीं आनी एक वाटकुळ काडटात आनी तातूंत सोळा पाकळ्यांचें कमळ काडटात. ह्या सोळा पाकळ्यांत दशावतारांचीं नांवां, शंकराचीं पांच नांवां आनी परमेश्वर हो शब्द बरयतात. हे आकृती भोंवतणीं परत आनी एक वाटकूळ काडून, तातूंत चोवीस पाकळ्यांनी विष्णुच्या चोवीस वस्तूंचीं नांवां बरयतात. हे आकृतीभोंवतणीं आनीक एक वाटकूळ काडून तातूंत बत्तीस पाकळ्यांचें कमळ काडटात आनी त्या पाकळ्यांनी विष्णुचीं नांवां बरयतात. ह्या सगळ्या आकृतींभोंवतणीं आठ दिशांक अष्टदिग्जांचीं नांवां बरयतात.

– कों. वि. सं. मं.

**नारायणस्वामी :** दक्षिण भारतांतलो एक देव. हो सोरपाच्या विखाची बादा पयस करता, असो समज आसा. हाचेविशीं एक कथा प्रचलीत आसा, ती अशी –

एक भुरगो एकदां कांय इश्टांसयत रानांत लाकडां हाडपाक गेल्लो. थंय एक रोयण आशिल्ली. तें पळोवन ताच्या आंगांत कसले तरी दैवी प्रेरणेचो संचार जालो आनी तो ते रोयणींत भितर गेलो. वांगडा आशिल्ल्या इश्टांनी घरा येवन ही खबर ताच्या आवयबापायक सांगली. तीं दोगांय रोयणीकडेन वचून ताका उलो मारीत थंय बसलीं. मागीर तो भुरगो रोयणींतल्यान भायर आयलो, तेन्ना ताच्या हातांत सोरपाचो विळखो आशिल्लो. मागीर तो गांवांत आयलो. लोकांक ताणें सांगलें, कोणाकूय सोरोप चाबलो जाल्यार ताणें एक फातर तकलेर घेवन रोयणीकडेन वचचें आनी 'नारायणस्वामी' असो उलो मारचो; म्हणटकच वीख देंवतलें. इतलें सांगून तो रोयणींत वचून अदृश्य जालो. कांय दीस वतकूच तो गांवांतल्या भुरग्यांच्या आंगांत येवन तांकां त्रास दिवपाक लागलो. मागीर लोकांनी ताचें देवूळ बांदलें आनी ताची पुजा सुरू केली.

– कों. वि. सं. मं.

**नारायणास्त्र :** जाची देवता नारायण आसा, अशें अस्त्र. हें अमोघ अशें मानलां. जाचो वध जायना, ताचो लेगीत तें वध करूंक शकता. ताचो प्रयोग करतकूच रोखडेंच वादळ जाता, धर्तरी कडकडटा आनी दर्याचेर व्हडलीं ल्हारां उसळटात. ताका विरोध करतलें अशें दुसरें अस्त्र ना. झूज सोडून नारायणाक अनन्य भावान शरण वचप, होच ह्या अस्त्रापसून राखण मेळोवपाचो एकूच उपाय, अशें महाभारतांत सांगलां.

द्रोणाचार्यान नारायणाचें स्तवन करून ताचेकडल्यान हें अस्त्र मेळयल्लें. दुस्मानाक मारले बगर हें अस्त्र परत येना, देखून ताचो प्रयोग संयमान करचो, अशें नारायणान द्रोणाचार्याक सांगिल्लें. द्रोणाचार्यान फुडें तें अस्त्र आपलो पूत अश्वत्थामा हाका दिलें. भारतीय झुजांत धृष्टद्युम्नान द्रोणाचार्याचो वध केलो, तेन्ना तिडकीन अश्वथाम्यान पांडवांच्या सैन्याचेर हें अस्त्र सोडलें. मागीर श्रीकृष्णाचे आज्ञेवयल्यान सगळे पांडव आपापलीं शस्त्रां सकयल दवरून त्या अस्त्राक शरण गेले तेन्नाच तें शांत जालें अशी कथा आसा.

– कों. वि. स. मं.

**नारायणीय धर्म :** भागवत धर्म वा वैष्णव धर्म हांचें उगमस्थान. ह्या धर्माची म्हायती महाभारतांत आयल्या. भारतीय झूज सोंपतकूच युधिष्ठिराच्या मनांत उपराशिल्लो गोंदळ पयस करपाखातीर शांतीपर्वांत हो विशय विस्तारान सांगला. भीष्माचार्या कडल्यान राजधर्म आनी आपद्धर्म आयकतकूच युधिष्ठिरान ताका दोन प्रस्न केले – १) गृहस्थाश्रमी लोकांचो श्रेश्ठ धर्म खंयचो? २) संवसारांत तरातरांची संकश्टां येतकूच दुख्खां उबीं रावतात, तीं जावचीं न्हय, अशी बुद्ध दिवपी धर्म खंयचो? ह्या दोनूय प्रस्नांक भीष्माचार्यान नारायणीय धर्म अशी एकूच जाप दिल्या.

हो नारायणीय धर्म साक्षात भगवंतान नारदाक सांगलो. नारदान तो व्यासाक आनी व्यासान वैशंपायन ऋषीक सांगलो. हेर युगांत होच धर्म भगवंतान सुर्याक, सुर्यान मनूक आनी मनून इक्ष्वाकूक सांगिल्लो. ही दुसरी परंपरा गीतेंत दिल्ले परंपरेकडेन जुळटा (भगवद् गीता ४, १ -३). नारायणीय आख्यानांत ही परंपरा वेगवेगळ्या कथांवरवीं दिल्या. गीतेंतले सांख्य, योग, कर्म, क्षराक्षरविचार, विभूतीदर्शन,विश्वरूपदर्शन हांचेसारके विशयूय नारायणीय धर्मांत आयल्यात.

नारायणीय धर्म होच आद्य धर्म आसून ह्या धर्मानूच सृश्टीकर्त्या विधात्यान नारायणाची पुजा केली. अशेंय महाभारतांत सांगलां. नारायण ऋषीन सांगिल्लो हो धर्म प्रवृत्तीलक्षणात्मक आसा. यज्ञांत जावपी जनावरांची हिंसा नारायणीय धर्माक मान्य ना. ऋग्वेदांतलें पुरुषसूक्त, ब्राह्मणग्रंथांतलो पुरुषमेध, गीतेंतलो पुरुषोत्तम आनी नारायणीय धर्मांतलो नारायण (खास करून वासुदेव) हातूंत परंपरेची सुसूत्रताय अबादीतपणान चालू आशिल्ल्याचें दिसता.

सृश्ट निर्माण करपाची पात्रताय ब्रह्मदेवाक ह्या नारायणीय धर्मा वरवींच प्राप्त जाली. विश्वाची उत्पत्ती जातकूच लेगीत विश्वाक आदार असो होच धर्म आसा. नारायणीय धर्माच्या विवरणांत सांख्य, योग, पाशुपत, ह्या वेगवेगळ्या मतांचोय उल्लेख आयला. हीं विंगड विंगड मतां वेगवेगळ्या ऋषींनी सांगल्यांत. नारायणीय, पांचरात्र, सात्वत वा एकांतिक ह्या धर्माचो उपदेश साक्षात भगवंतान सांगिल्लो आसून तोच प्रमाण मानचो, अशें सांगलां. सांख्य आनी योग वेवेगवेगळे नासून एकूच आसात, अशें गीतेंत सांगलां. तशेंच तें नारायणीय धर्मानूय सांगलां.

गीतेंत नाशिल्लो पूण नारायणीय धर्मांत परत परत येवपी म्हत्वाचो सिद्धान्त म्हळ्यार व्यूहसिद्धान्त. हाची मांडावळ अशी केल्या – वासुदेव हो निर्गुण क्षेत्रज्ञ आसून ताचेपसून संकर्षण नांवाचो जीव उत्पन्न जालो. संकर्षणापासून प्रद्युम्न नांवाचें मन तयार जालें आनी प्रद्युम्नापसून अनिरुद्ध संज्ञक अहंकार तयार जालो. वासुदेव (निर्गुण परमेश्वर), संकर्षण (जीव), प्रद्युम्न (मन) आनी अनिरुद्ध (अहंकार) अशी ही चतुर्व्यूहाची रचणूक आसा. हाकाच मूर्तीचतुष्टय वा चतुर्विभक्त वासुदेव अशें म्हण्टात.

रामानुजाचार्यान हे व्यूहकल्पनेक बरेंच म्हत्व दिलां. पूण शंकराचार्यान हे व्यूहकल्पनेचें खंडन केलां. व्यूहकल्पना ही वेदविरोधी आशिल्ल्याचें

शंकराचार्य मानतात. भागवतधर्मियांची व्यूहकल्पना अशा उतरांनी शंकराचार्यांनी तिचो उल्लेख केला.

नाथांचो भागवत धर्म ह्या ग्रंथांत नारायणीय धर्माची विस्कटावणी करतना. प्रा. श्री. रं. कुलकर्णी हाणें सांगलां, गीतेंत उपदेश केल्लो धर्म आनी नारायणीय धर्म हे एकेच परंपरेंतल्यान निर्माण जाल्ले आसले, तरी नारायणीय धर्मांत गीतेपरस मातशी चड माहिती दिल्या, गीतेंत निश्काम कर्मयोगाचेर खास भर दिल्लो आसून ताका अनुसरून भक्तीचें व्हडपण वर्णिलां. नारायणीय धर्मांत भक्तीचे नदरेन निश्काम कर्मयोगाची व्हडवीक गायल्या.

परमेश्वराची एकांतिक भक्ती आनी भक्तीच्या मळार अहिंसेक दिल्लें प्राधान्य हें नारायणीय धर्माचें खाशेलेपण अशें म्हणूं येता.

- कों. वि. सं. मं.

**नार्वेकार, गोविंद मुकुंद :** (जल्म : १९३२, नार्वें - दिवचल).

गोंयचो सुटकेझुजारी. जांबावले दामोदराच्या देवळांत संगितकार म्हणून काम करता आसतना ताचो कांय सुटकेझुजाऱ्यांकडेन संबंद आयलो. आपल्या घरा तो इश्टां वांगडा हातबॉम तयार करतालो. १६ जून १९५४ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत घालो. तशेंच ताच्या घराचेर धाड घालून बॉम आनी स्फोटक पदार्थ जप्त केले. दोन वर्सां आनी तीन म्हयने बंदखण भोगले उपरांत ताका प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ७ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. नोव्हेंबर १९५९ वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**नार्वेकार, दामोदर दत्ता :**(जल्म : २७ फेब्रुवारी १९३३, माशेल - फोंडें).

गोंयचो सुटकेझुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत सुटकेझुजाऱ्यांक रावपाक जागो दिवप, पत्रकां वांटप, खबरो पावोवप असलीं कामां तो करतालो. १९५४ त पोलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत घालो. बंदखणींत पोलिसांनी ताचे खूब हाल केले. १९५५ त ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**नार्वेकार, पांडुरंग दत्ता :** (जल्म : १५ सप्टेंबर १९२८, माशेल - फोंडें).

गोंयचो सुटकेझुजारी. १९४७-५४ ह्या काळांत तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां लावप, पत्रिका वांटप, तिरंगी बावटो लावप असलीं कामां तो करतालो. सप्टेंबर १९५४ त एके शाळेंत तिरंगी बावटो लायता आसतना ताका पोलिसांनी धरलो. ताणें ११ म्हयने बंदखणीची ख्यास्त भोगली. पांच वर्सां ताका घराच बंदी केल्लो. गोंयचे सुटके वेळार ताणें भारतीय सैन्याक मार्गदर्शन केलें. १९७४ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**नार्वेकार, रामदास विष्णू :** (जल्म : २५ नोव्हेंबर १९३५, कळंगूट - बारदेस).

गोंयचो सुटकेझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो (१९५२-५७). ह्या काळांत तो पत्रकां लावप, हातपत्रकां वांटप असलीं कामां करतालो. २८ सप्टेंबर १९५७ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी पणजे बंदखणींत दवरलो. एप्रिल १९५८ त ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**नार्वेकार, वसंत रामचंद्र :** (जल्म : १५ सप्टेंबर १९३०, बिठ्ठोण - बारदेस).

गोंयचो सुटकेझुजारी. पत्रकां लावप, क्रांतीविरांक चोरयां बसका घेवपाक हातभार लावप असलीं कामां तो करतालो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. प्रदेशीक लस्करी न्यायालया मुखार उबो करून ताका ११ म्हयन्यांची ख्यास्त दिली. जानेवारी १९५६ त ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**नार्वेकार, सोनू आत्माराम :** (जल्म : २८ ऑगस्ट १९२४, न्हंयबाग - पेडणें).

गोंयचो सुटकेझुजारी. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी जालो. कार्यकर्त्यांमदीं बातम्यो पावोवप, पत्रकां वांटप. वण्टीपत्रकां लावप, असलीं कामां करतालो. एप्रिल १९५५ वर्सा पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. उपरांत ताका न्यायालयांत उबो करतकच सादे बंदखणीची ख्यास्त जाली. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**नालंदा :** बिहार राज्यांतलें नामनेचें, पुर्विल्लें बौद्ध अवशेशांचें एक थळ. गंगेचे देगेर पाटण्याचे आग्नेयेक सुमार ७० किमी. अंतराचेर बडगाव नांवाच्या खेड्याच्या वाठारांत हें थळ आशिल्लें. नालंदा ह्या पुर्विल्ल्या विद्यापिठाची भारतांत नामना आशिल्ली. पुर्विल्ल्या साहित्यांत नालंदाची नल, नालक, नालकग्राम, नालंद अशीं वेगवेगळीं नांवां मेळटात. नालंदा ह्या नांवावयल्यान जायत्यो आख्यायिका आसात. तातूंतली एक अशी - बुद्धान एका पुर्वजल्मांत हांगा दीर्घ काळ तप केल्लें. ह्या काळांत ताचे कडेन जे जे दुख्खी लोक येताले तांकां तो जाता तितलो आदार दितालो. पूण तितल्यान ताका समाधान जालेंना. ताच्या ह्या असमाधानावयल्यान ह्या जाग्याक नालंदा (न+अलम+दा = जाय तितलें दिवंक शकना) हें नांव मेळ्ळें. बुद्धशिश्य सारिपुत्र हो आपल्या ८० हजार शिश्यांवांगडा हांगा रावतालो अशें म्हण्टात. महावीर वर्धमानान हांगा चवदा चातुर्मास वास्तव केल्लें अशें जैन परंपरा सांगता. भारतांत भोंवडी करपाक आयिल्ल्या फा हियान (४००-४११), ह्युएन त्सांग (६३०-६४४) आनी इत्सिंग (६७३-

६८५) ह्या तिनूय चीनी भोंवडेकारांनी नालंदाची शिक्षणिक परंपरा आनी समृद्धी हांची पुराय म्हायती आपल्या भोंवडेवर्णनांत बरोवन दवरल्या.

ह्या थळाक पुर्विल्ली परंपरा लाबिल्ल्यान आनी गंगेच्या वाठारांत नगरविकासाक वाव आशिल्यान बौद्ध आचार्य नागर्जुन हाणें आपलो शिश्य आर्यदेव हाका हांगा विहार स्थापपाची आज्ञा केली. आर्यदेवान इ.स. चवथ्या शतमानाचे निमाणें हांगा विहार उबारून कांय शिश्यांवांगडा बौद्ध दर्शन आनी साधना पद्दत अध्ययन आनी अध्यापनाक सुरवात केली. ह्या विहाराचो जागो खूब व्हड आशिल्लो. विद्यापिठूय हांगाच आशिल्लें. गुप्तकुळांतल्या राजपुरसांनी हांगा आचार्य आनी विद्यार्थ्यांखातीर व्हड-व्हड इमारती बांदून दिल्ल्यो. सुरवातेक गुप्त राजाचो, उपरांत कनोजाचो हर्षवर्धन, जावा सुमात्रांतले बालपुत्रदेव, मौखारी कुळांतलो पूर्णवर्मा आनी उदेंत भारतांतलो पाल राजा हांचो विद्यापिठाक आलाशिरो मेळिल्ल्यान ताचें सर्वांगीण वैभव सतत आठ शतमानांमेरेन तिगून उरलें.

नालंदा विद्यापिठाची सुमार देड किमी. लांब आनी पाऊण किमी. रूंद येदी व्हड इमारत आनी वसतीगृह आशिल्लें. तेभायर ग्रंथालयाखातीर रत्नसागर, रत्नोदय, रत्नरंजक अशो आनीक तीन सोबीत इमारती आशिल्ल्यो. ह्या ग्रंथालयाच्या विभागाक धर्मगंज म्हण्टाले. रावपाखातीर ४,००० आनी अभ्यासाखातीर १,००० कुडी आशिल्ल्यो. ८,५०० विद्यार्थी आनी १,५०० शिक्षक आशिल्ले. दर दिसा शंबर व्याख्यानां जातालीं. हांगा रावप्यांक रावप, जेवप, कपडे, वखदां आनी शिक्षण फुकट आसतालें. हो पुराय खर्च दान केल्ल्या १०० खेडयांच्या उत्पन्नांतल्यान आनी हेर देणग्यांतल्यान चलतालो. धर्मपाल, चंद्रपाल, गुणमती, स्थिरमती, प्रथामित्र, ज्ञानचंद्र, शीलभद्र आदी व्हड आचार्यांची वळेरी ह्युएन त्सांगान दिल्ली आसा. तेभायर नागर्जुन आर्यदेव, वसुबंधु, दिङनाग ह्या महापंडितांचो नालंदा विद्यापिठाकडेन लागसल्लो संबंद आशिल्लो. हांगाच्या आचार्यांची विद्वत्तेची कीर्त अख्खा संवसारभर फांकिल्ल्यान जायते विद्यार्थी हांगा येताले. तेचपरी भायल्या देशांतले आचार्य हांगाच्या आचार्यांकडेन धर्मभासाभास करूंक येताले.

नालंदा विद्यापिठांत उच्च शिक्षणाची सोय आशिल्ली. ह्या विद्यापिठांत प्रवेश मेळपाखातीर सुरवातेक प्रवेश परिक्षा दिवंची पडटाली. ही परिक्षा घेवपाखातीर वेगवेगळ्या विशयांचो अभ्यास आशिल्ले द्वारपंडित नेमताले. ही परिक्षा खूब कठीण आसताली. प्रवेश घेवपाक इत्सा आशिल्ल्या विद्यार्थ्यांतल्या शेंकडयांतल्या २० ते ३०% विद्यार्थ्यांकूच प्रवेश मेळटालो.

हें विद्यापीठ महायानपंथी बौद्धाचें आशिल्लें तरी हिनायानपंथी बौद्ध धर्म, जैन धर्म, ब्राह्मण धर्म आनी हेर धर्म हांच्या वाङमयाचो अभ्यास जातालो. तेचप्रमाण व्याकरण, साहित्य, तर्कशास्त्र, जातकग्रंथ, गणित, ज्योतीष, चित्रकला, शिल्पशास्त्र, मंत्रविद्या, वेदविद्या, दंडनिती आदी विशय शिकोवपाची वेवस्था आशिल्ली. विद्यार्थ्यांक विशय वेंचपाचें स्वातंत्र्य आसतालें आनी विद्यार्थ्यान वेंचिल्लो विशय अध्यापक वैयक्तीक पद्दतीन शिकयतालो. दर दिसाक हांगा शंबर व्याख्यानां जाताली आनी विद्यार्थी आपले आवडीप्रमाण त्या व्याख्यानांचो लाव घेताले.

त्या काळांतल्या राजकर्त्यांचो आदार मेळिल्ल्यान तेचपरी बुद्धिमान शिक्षक कुशळ वेवस्थापन, व्यापक अध्ययनाची सुविधा, सोबीत वातावरण हांकां लागून नालंदा विद्यापिठाचें वैभव सतत आठ शतमानां तिगून उरलें. पूण इ.स. ८०० च्या सुमाराक नालंदा विहारांतल्या कांय आचार्यांच्या फुडारपणाखाला नालंदाच्या लागसार विक्रमशिला विद्यापिठाची स्थापना जाली आनी नालंदा विद्यापिठाक देंवती कळा लागली. निमाणें, इ.स. १३ व्या शतमानाचे सुरवातेक बख्त्यार खिलजी हाणें मोडतोड करून आनी लासून तें नश्ट करून उडयलें.

१८७१ त कनिंगहॅम हाणें ह्या थळाचो सोद लायलो. पूण प्रत्यक्ष उत्खनन मात १९१६ सावन सुरू जालें. ह्या उत्खननांत जायतीं देवळां, विहार, स्तूप, मुद्रा, ब्राँझाच्यो मुर्ती, ताम्रपट, नाणीं मेळ्ळ्यांत. जायतीं सोंपणां आशिल्लीं उत्तुंग देवळां, मदीं चौक आनी भोंवतणीं वारांद, भरपूर कुडी आशिल्ले विहार आनी सभाघर हांचे वयल्यान पुर्विल्ल्या विद्यापिठाची कल्पना येता. ह्या इमारतींचे खांबे आनी वण्टी कलात्मक चित्रांनी आनी कोरीव कामान सजयिल्ल्यो आशिल्ल्यो. सुमात्राच्या राजाचे विनवणेवयल्यान देवपाल राजान (णववें शतमान) विहारांक गांव इनाम दिल्ल्याचो ताम्रपट मेळ्ळा.

नालंदा विद्यापिठाची याद म्हणून बिहार सरकारान १९५१ वर्सा हांगा 'नव नालंदा महाविहार' (नालंदा पाली प्रतिश्ठान) ह्या नांवांची संस्था स्थापन केली. हे संस्थेंत पाली भास आनी साहित्य, बौद्ध धर्म, संस्कृती आनी इतिहास ह्या विशयावयलें उंचेल्या पांवड्याचें शिक्षण आनी संशोधन चलता. हे संस्थेची नामना लागसल्ल्या सगळ्या बौद्ध धर्मीय देशांत पाविल्ली आसून आशियांतल्या श्रीलंका, सायाम, जपान, तिबेट, कंबोडिया, विएतनाम आनी युरोपांतल्या फ्रांस, जर्मनी, ऑस्ट्रिया आदी देशांतले जायते विद्यार्थी हांगा शिक्षण घेवंक येतात.

– कों. वि. सं. मं.

**नालडियार :** पुर्विल्ल्या तमीळ साहित्यांतलो एक नामनेचो नितीग्रंथ.

नाल म्हणजे चार. ह्या ग्रंथांतलें दरेक कवन चार चरणांचें आसता, म्हणून हाका 'नालडियार' हें नांव दिलां. ह्या ग्रंथांत वट्ट चारशें पद्य रचना आसात. हो ग्रंथ सुमार दोन हजार वर्सांपयलींचो आसा. हातूंतली दरेक कविता एकेका जैन साधवान रचल्या. हाचेविशीं एक दंतकथा प्रचलीत आसा, ती अशी –

दोन हजार वर्सां पयलीं अंयशीं हजार जैन साधू विंध्य, निलगीरी ह्या पर्वतांचेर रावताले. एकदां तांच्या वाठारांत दुकळ पडिल्ल्यान ते दक्षिणेंतल्या पांड्य देशांत गेले. राजान व्हड भोवमानान तांकां आलाशिरो दिलो. आपल्या गांवांतलो दुकळ सोंपतकच ते घरा वचपाची तयारी करूंक लागले. येदया म्हान साधूंचो संग तुटटलो म्हणून राजान तांकां आपल्याच राज्यांत रावपाखातीर आग्रो केलो. देखून, ते साधू एक दीस अचळय पळून गेले. दुसऱ्या दिसा सोद घेतकूच त्या दरेका साधवाच्या आसना सकयल भूर्जपत्राचेर एकेक कवन बरयल्लें आशिल्लें अशें नदरेक आयलें. नोकरांनी त्यो सगळ्यो चिटयो राजाक व्हरून दिल्यो. राजान त्यो वाचून पळयल्यो. तातूंतल्या एकाचो दुसऱ्याकडेन मेळ बसना म्हणून राजान त्यो सगळ्यो रचना न्हंयेत उडोवपाक सांगलें. अजाप म्हळ्यार तीं चारशेंय पानां दर्यांत बुडनासतना देगेक येवन लागलीं. राजान तीं सगळीं पानां परतीं हाडून तांचो वेवस्थित झेलो तयार केलो आनी ताका 'नालडियार' अशें नांव दिलें.

कांय जाणकारांच्या मताप्रमाण हो कवितांझेलो इ.स. तिसऱ्या-चवथ्या शेंकड्यांत रचिल्लो आसूंक फावो. वेगवेगळ्या विशयांप्रमाण दरेकी १० कविता आशिल्ल्या चाळीस प्रकरणांनी हो झेलो वांटला. ग्रंथाची सुरवात एके प्रार्थना कवितेन जाता. धर्म, अर्थ आनी काम ह्या तीन पुरूशार्थांचो

उपदेश करप, हो ह्या झेल्याचो उद्देश. चवथो मोक्ष हो पुरूशार्थ, वाणी आनी मन हांचे पलतडचो आशिल्ल्यान ताचेविशीं कविता दिवंक नात. पद्मनर नांवाच्या कवीन हातूंतल्या कवनांचें संकलन आनी मांडावळ करून तो सध्याच्या स्वरुपांत पयलीं तयार केलो, अशें म्हण्टात. वज्रनंदी राजाच्या आलाशिऱ्याक आशिल्ल्या कवींनी ह्यो कविता रचल्यो, अशेंय एक मत आसा. वज्रनंदी हो आठव्या शतमानांतलो एका संघमचो संस्थापक आशिल्लो.

ह्या कवितांझेल्यांत कितल्याशाच नितीकल्पनांक सोबीत अशें काव्यरूप दिल्लें नदरेक येता. हीं नितीतत्त्वां सगळ्यांक समजतलीं अशे सोंपे आनी रसाळ शैलींत सांगल्यांत. कांय कवितांतल्यान सुक्ष्म असो विनोदूय नदरेक येता. ज्ञानाचें म्हत्व, बायलांचें पातिव्रत्य, सोबीतकाय, नितीमत्ता आनी वैराग्याचो पुरस्कार हांचें वर्णन ह्या ग्रंथांत आयलां. तमीळ भाशेंत नितीपर ग्रंथांत 'नालडियार' ग्रंथाक म्हत्वाची सुवात आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**नालवडे, श्रीरंग मारूती :** (जल्म : २५ मार्च १९३५ वाई - सातारा).

सुटकेझुजारी. तो जनता पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा गोंयांत सत्याग्रहांत ताणें वाटो घेतिल्लो. ५ मे १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**नाल्ल :** (पळेयात माड).

**नासिक :** महाराष्ट्रांतल्या नासिक जिल्ह्याचें मुखेल ठाणें. लोकसंख्या ३,८३७,५९७ (१९९१). मुंबयचे ईशान्येक १८५ किमी. अंतराचेर नासिकरोड रेल्वे स्थानकापसून आठ किमी. अंतराचेर गोदावरी न्हंयेचे दोनूय देगांचेर वशिल्लें आसून, दावे देगेर पोरणें नासिक वा पंचवटी, उजवे देगेर मध्य नासिक वा मुसलमान नासिक आनी ताचे अस्तंतेक पेशव्यांनी वसयल्लें मराठा नासिक अशे नासिकाचे तीन भाग जातात. मध्य नासिक होच शाराचो मुखेल भाग आसून तो खूब पुर्विल्लो. मुसलमानांनी ताका गुलशनाबाद (गुलाबाचें शार) अशें नांव दिल्लें. मध्य प्रदेशांतल्या भारहूत आनी नासिका लागसल्लें पांडव लेणीच्या इ.स. आदीं २०० च्या शिलालेखांत नासिकाचो उल्लेख मेळटा.

भारतांतल्या पांच मुखेल महातिर्थांनी ह्या थळाचो आस्पाव करतात. हाका अस्तंत काशी अशेंय म्हण्टात. नासिक नांवाची उत्पत्ती दोन तरांनी सांगतात. (१) लक्ष्मणान हांगा शूर्पणखेचें नाक-कान कापलें. ताचेवयल्यान ह्या थळाक नासिक्य हें नांव पडलें आनी ताचेच नासिक जालें.
(२) हें क्षेत्र जे दोंगुल्लेचेर वसलां ताका णव शिखरां आसात. तांचे-वयल्यान ताका नवशिख अशें नांव पडलें आनी ताचेंच अपभ्रंशान नासिक जालें. हे उत्पत्तीक धरूनूच 'नासिक नवटेकावर वसवले' असो थंय वाक्यप्रचार रूढ आसा. ह्यो णव तेंगश्यो स्वतंत्र नासून ते एकाच सड्याच्या भागाचे फांटे आसात. तांचेमदलो सकयल आशिल्लो भाग भरून काडिल्ल्यान तीं आयज स्वतंत्रपणान लक्षांत येनात. तरी पोरणी गढी, नवी गढी, जोगवाडा टेक वा जोगी दोंगर, पठाणपुरा टेक वा उदेंत कोंकणी टेक, म्हसरूळ टेक, डिंगरआळी टेक, महालक्ष्मी दोंगर वा सोनार आळी टेक, गणपती दोंगर वा ताचे उत्तरेचे चित्रघंटा टेक अशो णव टेका वा णव तेंगश्यो उल्लेखतात.

नासिकाक पद्मनगर, त्रिकंटक आनी जनस्थान अशींय नांवां आशिल्लीं. आंध्रभृत्यांचे राजवटीसावन नासिकाच्या राजकीय इतिहासाची म्हायती मेळटा. ताचेउपरांत नासिक अभिरांचे सत्तेखाला गेलें. फुडें सव्या शतमानाचे सुरवातेक हो वाठार चालुक्यांनी घेतलो. उपरांत ताचेर राठोडांची सत्ता सुरू जाली. ताणीं आपली राजधानी नासिक जिल्ह्यांतल्या मयूरखंडीक स्थापन केली. फुडें चवदाव्या शतमानाचे सुरवातेक हो वाठार देवगिरीच्या यादवांच्या सत्तेखाला आशिल्लो. उपरांत नासिक देवगिरीच्या सुलतानाच्या सत्तेखाला गेलें. इ.स. १५३० त तें बहामनी सुलतानान हस्तगत केलें. सतराव्या शतमानांत तें मुसलमानी सत्तेखाला गेलें. सतराव्या शतमानाचे निमाणें मराठ्यांनी नासिकाच्या कांय वाठाराचेर सत्ता मेळयली. १७०५त ह्या वाठारावयली मुसलमानी सत्ता नश्ट जायत गेली. १७४७ त नासिक पुराय तरेन मराठ्यांचे सत्तेखाला गेलें.

पेशव्यांच्या काळांत नासिक हें म्हत्वाचें थळ आशिल्लें. मुसलमानांच्या काळांत देंवती कळा लागिल्ल्यान ह्या वाठारांत पेशव्यांनी भरपूर उदरगत घडोवन हाडली. माधवराव पेशवे हाची आवय गोपिकाबाय कांय काळ हांगा राविल्ली. राघोबादादा हाणें नासिकाचे अस्तंतेक दोन मैलांचेर आशिल्ल्या चौंधस ह्या गांवांत आपलो वाडो बांदून ताका 'आनंदवल्ली' अशें नांव दिल्लें. पेशव्यांनी हांगा जायतीं देवळां बांदलीं आनी नासिक तशेंच गंगापूराक व्हड व्हड वाडेय बांदले.

हांगा आशिल्ली गोदावरी न्हंय नागमोड्या मोडणान गांवांतल्यान वायव्य - आग्नेय दिशेन व्हांवता. न्हंयेचें पांत्र चडांत चड १८२-८८ मी. रूंद आसा. गंगापूर धरणाक लागून ह्या वाठारांत वर्सूयभर उदकापुरवण जाता. गोदावरी न्हंयेक नागझरी, सरस्वती, अरूणा आनी वाघाडी वा वरूणा हे ल्हान प्रवाह मेळटात. ताचेवयल्यान पुलांवरवीं शाराचे भाग जोडिल्ले आसात. हांगाचो सरासरी वर्सुकी पावस ६९.७ सेंमी. आनी तापमान चडांत चड ३१.१° सॅ., जाल्यार उण्यांत उणें १६.९° सॅ. इतलें आसता.

हांगाचो द्राक्षांबाजार हंगामांत म्हत्वाचो आसता. शारांत विडी वळपाचो उद्देग मुखेल आसून विडयो वळपाच्या सुमार १२ व्हड कारखान्यांनी हजारांनी लोक काम करतात. तांब्याच्या आनी पितूळच्या आयदनांखातीर नासिकाची नामना आसा. नासिक आनी नासिकरोड वाठारांत जायते कारखाने आसात.

ह्या शाराक दुरीग नाशिल्लें, पूण शाराक सोबाय हाडपाखातीर आदल्या काळांत पंचवटी आनी मध्य नासिकांत भगूर वेस, भडक वेस, दरबार वेस, काझीपूरा वेस, त्रिंबक वेस, दिल्ली वेस, नाव वेस वा नावदरवाजा, आश्रा वेस आनी केतकी वेस अशो वेशी पंचवटी आनी मध्य नासिकांत आशिल्ल्यो. जाल्यार मराठा नासिकांत हत्ती वेस, मल्हार वेस आनी सती वेस अशो तीन वेशी आशिल्यो. तातूंतल्यो एक दोन वेशी सद्या उरल्यात. हेरकडचीं नांवां मात प्रचलीत आसात.

ह्या शारांत शासकीय तंत्रनिकेतन, हंसराज प्राणजी ठाकरसी म्हाविद्यालय, भिकुसा यमासा क्षत्रिय वाणिज्य म्हाविद्यालय आदी जायत्यो उच्च शिक्षणीक संस्था आसात. वाणिज्य वेवस्थापनाचें पदव्युत्तर शिक्षण केंद्र हांगा आसा. हांगाच्या भोंसला मिलिटरी स्कूल आनी पोलीस प्रशिक्षण म्हाविद्यालयची नामना आसा. तेभायर क्षयरोग निवारण संस्था, कुश्ठरोग निवारण मंडळ, गुलालवाडी व्यायाम शाळा, सार्वजनीक वाचनालय,

कलानिकेतन, गांधर्व म्हाविद्यालय, गाडगेमहाराज धर्मशाळा, शीख गुरूद्वारा ह्यो कांय नांवाजत्यो भौशीक मळार वावुरपी संस्था आसात. गांवकरी हें हांगाचें मुखेल दिसाळें. हांगासल्यान रसरंग हे नामनेचें साताळें, तेभायर आयुर्वेद पत्रिका, होमिओदूत, आदीवासी सुधारक, वनश्री हीं मासिकां तशेंच अमृत आनी श्रीयुत हीं मराठी संकलन मासिकां उजवाडाक येतात. शहाजहानच्या काळांतलो पंडित विद्यानिधी कवींद्राचार्य सरस्वती, कथाकल्पतरू रचपी कृष्ण याज्ञवल्की, कवी रंगनाथ, मध्वमुनी आनी ताचो शिश्य अमृतराय हे नासिकाचे आशिल्ल्यान नासिकाक साहित्य परंपरा लाबल्या.

नासिक शारांत ल्हान व्हड सुमार २०० देवळां आसात. मुसलमानी शेकाखाल आसतना ताणीं हांगाचीं जायतीं देवळां नश्ट केलीं. पूण पेशव्यांनी आपले कारकिर्दीत जायतीं देवळां बांदलीं. पंचवटींतलें श्रीराम वा काळाराम देवूळ, नारो शंकर देवूळ आनी सुंदरनारायण देवूळ हांची खूब नामना आसा. १७८२ त सरदार रंगराव ओढेकरान ताचो जीर्णोद्धार केलो. मेष आनी तूळ संक्रमणाच्या वेळार सुर्योदया वांगडा सुर्याचीं किरणां रामाच्या तोंडाचेर पडटात. हांगाच्या नारोशंकर वा रामेश्वर देवळाची नक्षीकामाखातीर नामना आसा. ह्या देवळांत वसईच्या किल्ल्यांत मेळिल्ली चार टन वजनाची आनी दोन मीटर घेराची व्हड घांट आसून तिची नारोशंकराची घंटा म्हणून नामना आसा. न्हंयेचे उजवे देगेर सुदंरनारायणाचें देवूळ आसा. ह्या देवळामुखार कपालेश्वराचें देवूळ आसा. तेभायर हांगा बालाजी, गोराराम, नीलकंठेश्वर, मुरलीधर, तिळभांडेश्वर, भद्रकाली आदी देवळां आसात. गोदावरीच्या पात्रांत सुंदरनारायण मंदिरासावन मुक्तेश्वर मठामेरेनच्या वाठारांत जायतीं पवित्रकुंडा आसात. लक्ष्मणकुंड, धनुष्यकुंड, रामकुंड, सीताकुंड, अहल्याकुंड, शारंगपाणी, दुतोंड्या मारूतीकुंड, निलकंठेश्वर आनी गोराराम देवळामुखार सगल्यांत व्हड दशाश्वमेधकुंड आसा. पंचवटीचो वाठार खुबूच पवित्र मानतात. ह्या वाठारांत जुनी गढी, जामा मशीद, दर्गा, पेशव्यांचे वाडे आनी नारोशंकर राजा बहादूर हांचो सुमार २३० वर्सांआदलो वाडो, ह्यो वास्तू पळोवपासारक्यो आसात. शारालागसार चांभारलेणी, पांडवलेणी, तपोवन आनी गंगापूर धरण तशेंच २१ किमी. अंतरावयलें त्र्यंबकेश्वर, नासिकरोड हांगासल्लें मुक्तीधाम हीं पळोवपासारकीं थळां आसात.

रामायणांत उल्लेख केल्लो पंचवटीचो वाठार होच सद्याचो नासिक अशें समजतात. हांगासल्ली एक पोरणी दोंगुल्ली मातयेची गढी ह्या नांवान वळखतात. १९५०-५१ ह्या वर्सा ह्या थळाचें उत्खनन केल्लें. तातूंत पुर्विल्ल्या वस्तीचे कालखंड सांगपी ताम्रपाशाणयुगीन संस्कृतीचे अवशेश तशेंच मौय आनी सातवाहन काळांतलीं मातयेचीं आयदनां, विटांच्यो वस्तू, सातवाहन राजाचीं नाणीं, जनावरांचीं हाडां आनी मुसलमान - मराठा नाणीं मेळिल्लीं.

– कों. वि. सं. मं.

## नासेर, गमाल अब्दुल :

(जल्म : १५ जानेवारी १९१८, ॲलेक्झांड्रिया; मरण २८ सप्टेंबर, १९७० कायरो).

इजिप्ताचो पयलो राश्ट्राध्यक्ष. तशेंच अरब लिगाचो सुत्रधार आनी अलिप्तवादाचो एक पुरस्कर्तो. ताच्या बापायचें नांव हुसेन आनी आवयचें नांव फाहिमा. नासेराचो जल्म एका मध्यमवर्गीय शेतकार कुटूंबांत जालो. ताचो बापूय थळाव्या टपाल खात्यांत पोस्टमास्टराची नोकरी करतालो. नोकरेनिमतान ताची अल्खतातिबा गांवांत बदली जाली. थंयच नासेराचें मुळावें शिक्षण जालें. उपरांत बापोलया कडेन रावन कायरोक ताणें माध्यमिक शिक्षण पुराय केलें. थंयच ताणें कांय म्हयने कायदयाचो अभ्यास केलो. १९३८ वर्सा रॉयल मिलिटरी अकादमींतल्यान सॅकंड लॅफ्टनंट ही पदवी घेतली. अकादमींतल्यान भायर सरतकूच ताणें तरणाट्या लस्करी अधिकाऱ्यांची एके गुपीत संघटनेची (ऑफिसर्स रॅवोल्युशनरी ऑगनायझेशन) स्थापणूक केली. हे संघटनेंत अन्वर सादात, अहंमद अन्वर आनी झकेरिया मोहीइद्दीन ह्या तीन अधिकाऱ्यांचो आस्पाव आशिल्लो. फरूक हाची राजवट आनी ब्रिटिशांचें वर्चस्व काबार करपाखातीर ताणें चळवळ सुरू केली. तेन्ना ताहिया काझेम हिणें तांकां अर्थीक पालव दिलो. तिचेचकडेन तो २९ जून १९४४ दिसा लग्न जालो.

इझ्रायलाआड झूज जालें तेन्ना फॅलूजा ही सुवात ताणें व्हड शौर्यान झुजयली. तेखातीर १९४८ वर्सा ताका 'फॅलूजाचो वाघ' ही पदवी मेळ्ळी. १९५२ वर्सा भ्रश्टाचाराआड चळवळ सुरू केल्ल्या लस्करी अधिकाऱ्यांनी राजा फरूक हाका धांवडावन घालो आनी मे. ज. मुहमंद नगीब हो इजिप्ताचो मुखेल जालो. पूण इकरा लस्करी अधिकारी आनी नासेर हांच्या हातांतूच खरी सत्ता आशिल्ली. १९५४ वर्सा नगीबाक सत्तेवयल्यान काडलो आनी गमाल अब्दुल नासेर पयलो प्रधानमंत्री जालो. १९५६ वर्सा नासेरान इजिप्ताचें नवें संविधान तयार केलें. तेप्रमाण इजिप्त हें इस्लामी अरब कल्याणकारी राज्य जालें. संविधानाप्रमाण वेंचणुको जाल्यो आनी नासेर राश्ट्राध्यक्ष म्हणून भोवमानान वेंचून आयलो. इजिप्ताच्या सर्वांगीण विकासाखातीर ताणें बऱ्योच सुदारणा केल्यो. तेखातीर ताणें इजिप्ताचें उद्देगीकरण आनी आधुनिकीकरण करपाक सुरवात केली. नासेरान सुएझ खारजाचें राश्ट्रियीकरण केलें आनी कर लायलो.

१९५८ वर्सा सिरिया आनी इजिप्त मेळून संयुक्त अरब प्रजासत्ताक जालें आनी नासेर ताचो अध्यक्ष जालो.

आंतरराश्ट्रीय राजकारणांत नासेरान नेहरू आनी टिटो हांचेवांगडा अलिप्तवादाचो पुरस्कार केलो. १९५५ चे बांडुंग परिशदे उपरांत ताका जागतिक राजकारणांत चड म्हत्व प्राप्त जालें. १९६४ वर्सा नासेराच्या फुडाकारान कायरोक अलिप्तवादी राश्ट्रांची परिशद भरली. १९६७ वर्सा इझ्रायलान घाल्ले हारीक लागून ताणें राजिनामो दिलो पूण लोकांचे मागणेक लागून ताका तो फाटीं घेवंचो पडलो. ताणें फिलॉसॉफी ऑफ द रॅव्हॉल्युशन (१९५४) हें पुस्तक बरयलां.

– कों. वि. सं. मं.

## नास्तिक आनी नास्तिकवाद :

जो कोण देव वा देवांक मानिना, ताका नास्तिक अशें म्हळां, 'नास्ति' = ना. 'नास्ति परलोकस्तत्साधनमदृष्टं तत्साक्षीश्वरो वा इति मतिर्यस्य' म्हळ्यार सर्ग, ताचें साधन अदृश्ट वा ताची गवाय ईश्वर (एक देव) हे गजालीचेर जाचो विश्वास ना तो नास्तिक, अशी नास्तिक शब्दाची व्याख्या केल्ली आसा. अस्ति नास्ति दिष्टं मति : = परलोक ना, अशें जो मानता तो नास्तिक अशी पाणिनी हाणें ताची व्याख्या दिल्ली आसा. माधवाचार्य हाणें वेदप्रमाण्य ना मानप्यांक नास्तिक म्हळां. वेदांची जो निंदा करता तो नास्तिक, अशी मनून ताची व्याख्या केल्ली आसा. ह्या सगळ्या व्याख्यांचो सोंप्या उतरांनी अर्थ असो जाता.

१) वेदप्रामाण्य ना मानपी - हे व्याख्येवरवीं बौद्ध, जैन आनी लोकायत मतांचे अनुयायी हे नास्तिक थरतात. ह्या तिनूय दर्शनांक नास्तिक दर्शन अशें म्हळां.

२) जे लोक परलोक वा सर्ग आनी पुनर्जल्म हांचेर विस्वास दवरिनात ते नास्तिक हे व्याख्येवरवीं फकत चार्वाकाचे अनुयायी नास्तिक थरतात.

३) देवाच्या अस्तित्वाचेर विस्वास ना दवरपी संदेहवादी, भौतिकवादी आनी प्रत्यक्षवादी लोकांक नास्तिक म्हण्टात.

भारतीय दर्शनांत वेदांची निंदा करपी लोकांक नास्तिक अशें म्हळां. ताका लागून देवाक मानिनाशिल्ले सांख्य हे नास्तिक थरनात. वेदप्रामाण्य ना मानपी जैन, बौद्ध आनी चार्वाक तितलेच नास्तिक थरतात. भारतासारकिल्या ईश्वरवादी आनी अवतारवादी देशांतूय अनीश्वरवादी लोक निर्माण जाले हाका खूब म्हत्व आसा. ऋग्वेदांत देवतांचें अस्तित्व ना मानपी लोकांचेंय वर्णन आसा. शंकराचार्याच्या अद्वैत वेदान्तातूय ईश्वराची सत्ता मायिक आनी अयथार्थ मानिल्ली आसा. सांख्य दर्शनाचें आदलें रूपूय निरीश्वरवादी आसा. साबार 'प्रमाणां' मांडून सांख्यांनी सृश्टीखातीर देवाची गरज ना अशें सांगला. वैदिक कर्मकांडाचेर पुराय विश्वास आशिल्ले पुर्वमीमांसादर्शनीय लोक अनीश्वरवादीच आसात. कुमारिल भट्टा हाणें विंगड विंगड तर्क मांडून, जग हें स्वाधिश्ठान आनी स्वताभितरूय परिपूर्ण आसा, सृश्टीखातीर खंयच्याच ईश्वराची गरज ना, अशें सांगलां.

वेदप्रामाण्य ना मानपी चार्वाक, जैन आनी बौद्ध ह्या दर्शनांनीय ईश्वराची सत्ता मानपाक न्हयकार दिला. ईश्वराचें प्रत्यक्ष दर्शन जायना म्हणून ताचें अस्तित्वूच ना अशें चार्वाक मानता. जग हें सृश्टूच नाशिल्ल्यान सृश्ट रचपी ईश्वराची गरज ना अशें जैन म्हण्टात आनी बुद्धाचो ईश्वराचेर मात लेगीत विश्वास नाशिल्लो.

जगाची सृश्टी, स्थिती आनी लय हांकां कारण आशिल्ली एक अप्राकृत चेतनाशक्ती आसा आनी ती शक्ती प्राकृत नेम म्हळ्यार सत्य आनी सैमीक नेम म्हळ्यार ऋतू हांचेय नेम करपी आसा अशी आस्तिक वाद्यांची धारणां आसा. पूण नास्तिकवाद्यांक असले चेतनाशक्तीचें अस्तित्व मान्य ना.

- कों. वि. सं. मं.

**नास्नोडकार, डॉ. रघुनाथ विश्राम प्रभू :** (जल्म : ६ फेब्रुवारी १९२४, सांताक्रुझ (कालापूर) - तिसवाडी).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें लिसेंवाचें सातव्या वर्सामेरेन तशेंच मेदिकु सिरूर्जियांव आनी फार्मासीची पदवी घेतली. १९४२-४६ ह्या काळांत तो 'काँग्रेस सोशलिस्ट पार्टी' चो वांगडी आशिल्लो. १९४६-६१ मजगतीं तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९६३-१९७० मेरेन तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९४२ तल्यान तो सुटकेझुजारी पांडुरंग पु. शिरोडकार हाच्या फुडारपणाखाला वावर करूंक लागलो. तो राश्ट्रीय पत्रकां, नेमाळीं आनी हेर साहित्य वांटपाचो वावर करतालो. लिपचोरयां बसका घेतालो, नॅशनल काँग्रेस गोवा संघटनेखातीर वांगडी एकठांय करतालो. ताणें चोरयां एका रेडियो प्रक्षेपकाची स्थापना केल्ली. पुर्तुगेज सरकारी कचेरींतल्यान गुपीत खबरो मेळोवपाक ताणें गुप्तहेरांचें जाळें पातळायिल्लें.

जानेवारी १९५५ त, पोलिसांनी ताका धरलो, पूण २४ वरांभितर ताका राजकारणांत भाग घेवंचोंना असो खर सोपूत घेतकूच ताची सुटका केली. एप्रिल १९५५ त पोलिसांनी ताका परतून धरलो आनी ताका बंदखणींत घालो. थंयच्यान तो पळून शिमेभायर गेलो. ताचे गैरहजेरेंत ताका प्रादेशिक लश्करी न्यायालयान चार वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली, तशेंच १५ वर्सां खातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. दोडामार्ग आनी नगर हवेलीच्या सत्याग्रह्यांक तो वैजकी आदार दितालो.

१९७० त तो तिसवाडी म्हाल काँग्रेस समितीचो अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. १४ ऑगस्ट १९७४ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**नॉर्थ्रप, जॉन हॉवर्ड :** (जल्म : ५ जुलय १८९१, न्यूयॉर्क; मरण : २७ मे १९८७, विकेनबर्ग, ॲरीझोना).

अमेरिकन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण कोलंबियाक जालें. १९१२ त बी. एस्. १९१३ त एम्. ए. आनी १९१५ त पीएच्. डी. ह्यो पदव्यो ताणें मेळयल्यो. रॉकफॅलर इन्स्टिट्यूटांत ताणें झाक लब हाचेवांगडा आयुर्मर्यादा सिद्धांताविशीं अभ्यास केलो. १९२४ त ते संस्थेचो तो वांगडी जालो. १९४९ त बर्कलीच्या कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत सुक्ष्मजीव विज्ञानाचो संशोधक प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली.

नॉर्थ्रप हाणें पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत ॲसिटोन आनी इथायल आल्कोहॉल तयार करपाच्या किण्वनाचे क्रियेविशीं केल्ल्या संशोधनापसुनूच पचन, श्वसन आनी सादारण गरजेच्या प्रक्रियांक जाय आशिल्ल्या एन्झायमांच्या अभ्यासाक चालना मेळ्ळी. एन्झायमांक रसायनीक नेम लागू पडटात, हें ताणें दाखयलें. १९३० त ताणें पॅप्सीन शुद्ध स्फटिकी स्वरुपांत तयार केलें. मोझेस कुनिट्झ हाच्या पालवान ताणें ट्रिप्सीन आनी कायमोट्रिप्सीन हीं एन्झायमां आनी ट्रिप्सिनोजॅन आनी कायमोट्रिप्सिनोजॅन हीं तांचीं पूर्वगामी द्रव्यां स्फटिकरुपांत तयार केलीं. रॉजर एम्. हॅरियट हाच्या पालवान ताणें स्फटिकी पॅप्सिनोजॅन वेगळें केलें. मास वायरस आनी प्रतिपिंडां हांच्या प्रथिनांचोय ताणें अभ्यास केलो. सुक्ष्मजंतूंचो नाश करपी सुक्ष्मजंतूभक्षक ताणें सस्तन जनावरांच्या आंतकडच्यांसावन वेगळो केलो. तेखेरीज ताणें स्टार्च, सुक्ष्मजंतूंचें समूहन, किडींचेर जावपी तापमानाचो परिणाम ह्या विशयांचेरूय संशोधन केलें. १९४१ त ताणें घटसर्पावयल्या प्रतीविखाचें शुद्धीकरण केलें.

Crystalline Enzymes हो ताचो ग्रंथ १९३९ त उजवाडाक आयलो. रॉकफॅलर इन्स्टिट्युटावरवीं उजवाडाक येवपी Journal of General Physiology हे पत्रिकेचो तो संपादक आशिल्लो. दुसऱ्या म्हाझुजांत तो अमेरिकेच्या राश्ट्रीय संरक्षण संशोधन समितीचो सल्लागार आशिल्लो. एन्झायमांच्या आनी तांचेकडेन संबंदीत अशा द्रव्यांच्या स्फटिकीकरणाविशीं ताणें मोलादीक कार्य केलें. ताच्या ह्या वावराखातीर ताका जेम्स बॅचलर सम्नर आनी वॅंडॅल मॅरॅडिथ स्टॅन्ली हांचे वांगडा १९४६ वर्साचो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**नॉरिश, रॉनल्ड जॉर्ज व्हेफोर्ड :** (जल्म : ९ नोव्हेंबर १८९७, कॅंब्रिज - इंग्लंड; मरण : ७ जून १९७८).

ब्रिटीश भौतीक रसायनशास्त्रज्ञ. ताचें सुरवातीचें शिक्षण पर्सी स्कूल कॅंब्रिजाक जालें. १९१५त ताणें कॅंब्रिजाच्या इमॅन्युएल कॉलेजांत शिश्यवृत्ती मेळयली. पयल्या म्हाझुजांत ताणें फ्रांसांत रॉयल फिल्ड आर्टिलरींत काम केलें. १९२१त ताणे कॅंब्रिजाकूच पदवी घेतली. १९२४त तो पीएच. डी. जालो आनी त्याच वर्सा ताका इमॅन्युएल कॉलेजाची फॅलोशीप मेळ्ळी. १९२६त ताची भौतीक रसायनशास्त्राचो विद्यापीठ प्रयोगनिर्देशक म्हणून आनी १९३०त थंयच 'हंफ्री ओवॅन जोन्स व्याख्यातो' म्हणून नेमणूक जाली. १९३६त ताका एससी. डी. ही पदवी मेळ्ळी आनी तो रॉयल सोसायटीचेर वेंचून आयलो. १९३७त तो कॅंब्रिज विद्यापीठांत भौतीक रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आनी फुडें संचालक जालो. त्या पदावयल्यान १९६५त तो सेवानिवृत्त जालो.

पयली ताणें नायट्रोजन पॅरॉक्सायड, आल्डिहायडां, किटोनां, कीटीनां, डाय-ॲझोमिथेन ह्या सादया संयुगांच्या उजवाड रसायनीक विक्रियांचो अभ्यास केलो. कार्बोनिल संयुगांचें दोन तरांनी उजवाडविश्लेशण कशें जाता, हे ताणें आनी ताच्या वांगड्यांनी प्रस्थापीत केलें. तेन्नासावन वयलीं संयुगां मुक्त मुलकांच्या अभ्यासाखातीर आनी जळप आनी भोववारिकीकरण (polymerisation) हातुंतल्या शृंखला विक्रियांच्या अभ्यासाखातीर वापरतात. उजवाडविश्लेशणाच्या ताच्या सोदावयल्यान ताणें आनी सी. एच्. बॅम्फोर्ड हाणें 'फ्रॅंक-राबिनोव्हिच्य परिणाम' प्रयोगान सिद्ध करून दाखयलो.

दुसऱ्या म्हाझुजाउरांत ताणें उजवार्डरसायनीक आनी स्फोटक विक्रिया हांचो अभ्यास करपाक सुरवात केली. नॉरिश, जी. पोर्टर आनी तांचे वांगडी हाणीं सोदून काडिल्ल्या चमक उजवाडाविश्लेशण आनी गत्यात्मक वर्णपटविज्ञान ह्या पद्दतीक लागून जांचो काळ मिलीसेकंदांनी मेजचो पडटा, अशा अतीशीघ्र गतीच्या विक्रियांचो अभ्यास करप शक्य जालें. तेखातीर नॉरिश आनी जॉर्ज पोर्टर हांकां मेळून अर्दो आनी मानफ्रेट आयगॅन हाका अर्दो असो १९६७ वर्साचो रसायन शास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. नॉरिश हाका आनिकूय खूब भोवमान फावो जाल्यात.

– कों. वि. सं. मं.

**नॉर्वे :** उत्तर युरोपांतल्या स्कॅंडिनावियेच्या द्वीपकल्पांतलो अस्तंतेकडचो देश. क्षेत्रफळ ३,२३,८९५ चौ. किमी. लोकसंख्या ४,३००,००० (१९९१). ह्या देशाचे उत्तरेक आर्क्टीक म्हासागर, उदेंतेक रशिया, फिनलॅंड आनी स्विडन, दक्षिणेक स्कॅगरॅकचो दर्या आनी अस्तंतेक नॉर्वेचो दर्या आनी ॲटलांटीक म्हासागर. देशाची उत्तर – दक्षिण लांबाय १,८०० किमी. आनी रुरुंदाय ४२५ किमी. आसा. विस्तार ५८° उत्तर ते ७१° उत्तर आनी ४°३०' उदेंत ते ३१°१०' उदेंत. ऑस्लो ही नॉर्वेची राजधानी.

**भूंयवर्णन** – हिमकाळांत ह्या देशांत बऱ्योच खळयो तयार जाल्यो. देखून सपाट भूंय हांगा सामकी उणीं. दर्यादेगांनी, दोंगरांनी वेश्टील्लीं आखातां आसात. सॉग्ना, हारडांगर, नॉर्ड आनी ऑस्लो हीं म्हत्वाचीं आखातां आसात. दक्षिण नॉर्वेचो चडसो वांटो डोव्हरफॅल आनी लांगफॅल ह्या सड्यांनी व्यापला आनी मदीं योतुनहॅम पर्वताचेर नॉर्वेंतली गालहपिगन आनी ग्लिटरटिन हीं २,५०० मी. परस चड उंचायेचीं शिखरां आसात. ह्याच भागांत यॉस्टडाल्स्ब्रे हो ८०० चौ. किमी. युरोपांतलो सगळ्यांत व्हड हिमान भरिल्लो प्रदेश. मध्य नॉर्वेंत त्रॉनहॅमालागीं अशीर असो खोल वाठार आसा. ताचे उत्तरेक सड्यांची उंचाय उणी जायत वता. नॉर्वेची सरासरी उंचाय ५०० मी. आसा. मदल्या दोंगराळ प्रदेशांतल्यान आग्नेयेक व्हांवपी ग्लॉमा ही ५६० किमी. लांबायेची सगळ्यांत व्हड न्हंय.

**हवामान** – देशाचो सु. १/३ भाग शितल कटिबंधांत आसा, पूण ॲटलांटीकावयल्यान येवपी उश्ण गल्फ वाऱ्याक लागून देशाचें हवामान थंड आनी बरें आसता. अस्तंत दर्यादेगांनी सरासरी तापमान १५° सॅ. आसता. त्रॉनहॅमाचे उत्तरेक गिमांत सेगीत ३ म्हयने दीस आसता, म्हणून नॉर्वेक 'मध्यानरातच्या सुर्याचो देस' म्हण्टात. शियाळ्यांत तीन म्हयने ह्या भागांत सुर्य उदेना. हांगा वर्सभर वारो बदलत रावता. अस्तंत नॉर्वेंत मध्यम शियाळो शितळ गीम, २०० सेंमी. पावस अशें दर्याचें हवामान आसता. उदेंत नॉर्वेंत शियाळो एकदम कडक, गीम गरम, पावस १०० सेंमी. आसा. शियाळ्यांत पर्वतांचेर हीम पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात** – नॉर्वेंत ऊंच पर्वतांच्या वाठारांनी कांटयांचीं झोंपां आसात. देगणांनी चड उंचायेचीं स्प्रूस आनी पायन रुखांचीं रानां आसात. जळींमळीं बर्च, ॲश, ॲस्पन हीं पानझडी रूख मेळटात. सड्यांचेर तण वाड्टा, जाल्यार कांयकडेन फकत शेळो वाडिल्लो दिसता.

हांगा काळविटा सारकी पंगड करून रावपी रेनडियर आनी हरणां मेळटात. हे भायर ह्या रानांनी लिंक्स, बीव्हर, ऑटर, ग्लटन आनी वांस्वेलां आसात. न्हंयेत सॅमन आनी व्हाळांत ट्राउट हें नुस्तें चड प्रमाणांत मेळटा. दर्यांनी चडशें कॉड नुस्तें मेळटा. वुल्व्हरीन आनी लॅमिंग हे हुंदरासारकिले प्राणी खूब आसात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था** – पुर्विल्ल्या काळांत नॉर्वेचे बायझंटायन रोमी साम्राज्याकडेन संबंद आशिल्ले. पूण आठव्या आनी णवव्या शेंकड्यांतलो इतिहास पुरायपणान मेळना. मुखार नॉर्वेच्या व्हायकिंग दर्यांतल्यान जावपी वेपाराक लागून हाचो संबंद युरोपाकडेन आयलो. मध्ययुगांत नॉर्वेंतलीं ल्हान-ल्हान राज्यां एकठांय हाडपाचें कार्य पयलो हाराल, ट्रयूग्व्हेसॉन आनी हारात्सॉन ओलाफ ह्या तीन राजांनी केलें. नॉर्वे १५३६ त डॅन्मार्काच्या शेकातळा वचून, ताचो एक प्रांत जालो. मुखावयलीं तीनशें वर्सांमेरेन नॉर्वेंत प्रॉटॅस्टंट पंथाची वाड जाली. पूण डॅन्मार्काची सत्ता फक्त दर्यादेगेंतल्या वाठारांत आनी शारांनी इतलीच आशिल्ली. हेर वाठार स्वतंत्र आशिल्ले. १४ जानेवारी १८१४ दिसा जाल्ले कबलातींतल्यान नॉर्वे स्विडनाक मेळ्ळो. पूण नॉर्वेच्या लोकांनी आपलें स्वातंत्र्य जाहीर करून डॅन्मार्कच्या राजपुताक आपलो राजा म्हणून वेंचून काडलो. पूण स्विडनाच्या दोस्त राश्ट्रांनी (रशिया – इंग्लंड) हाका विरोध केलो. हाका लागून नॉर्वे आनी स्विडन हांचेमदीं व्हड झूज जालें. मुखार नॉर्वे, स्विडनाचें संयुक्त राज्य जालें.

सुटके उपरांतच्या काळांत नॉर्वेन पुराय अलिप्ततायेचें धोरण आपणायलें. तरी पयल्या म्हाझुजांत जर्मन पाणबोटींनी ह्या देशाची खूब वेपारी तारवां बुडयलीं. दुसऱ्या म्हाझुजांत नॉर्वेन आपलें अलिप्ततायेचें धोरण चालूच दवरलें. पूण १९४० त नाझी जर्मन सैन्य नॉर्वेंत रिगोवन, दोन म्हयन्यांभितर ताणीं सगळो नॉर्वे आपल्या शेकातळा हाडलो. राजकुटूंब आनी मंत्रीमंडळ हाणीं लंडनांत आलाशिरो घेतलो. जर्मनांनी व्हिडकुन क्विस्लींग ह्या देशद्रोही मनशाक प्रधानमंत्री नेमून ताणें मुखावयलीं पांच वर्सां नॉर्वेचें प्रशासन चलयलें. १९४५ त जर्मनीचेर हार

पडटकूच ७ जूनाक सातवो हॉकोन मायदेशांत परत येवन ताणें देशाची बरीच उदरगत केली.

नॉर्वे हो संविधानात्मक राजेशाय आशिल्लो देश. राजेशाय वंशपरंपरेन चलता आनी संविधानाप्रमाण राजाच्या पयल्या चल्याक गादयेर बसपाचो पयलो मान आसा. १८१४ त जाल्या संविधानाप्रमाण राजकारभार चलता. राजा हो देशाचो घटनात्मक मुखेली आसून सगळें शासन ताच्या नांवान चलता. पूण ताका संसद बरखास्त करपाचो अधिकार ना. राजा हो सैन्याचो मुखेली तसोच मुखेल धर्मगुरूय आसा. संसदेक स्टॉर्टिंग म्हण्टात. स्टॉर्टिंग दोन सदनी आसून तातूंत १५५ प्रतिनिधी आसतात. तांची वेंचणूक दर चार वर्सांनी जाता.

**अर्थीक स्थिती** – नॉर्वे हो उण्या प्रमाणांत जमीन आशिल्ल्या शेतकामत्यांचो देश. वारशा हक्कांक लागून जमनीची वांटणी चालूच आसा. हांगाची मुखेल पिकावळ म्हळ्यार बटाट, ओट, गंव, सातू आनी हेर कड्डणां. जनावरां पोसून तांचेकडल्यान मास आनी दूद मेळोवपाचो धंदो बऱ्याच प्रमाणांत चलता. रानांतल्या रुखांक लागून लाकडा उद्देगाची उदरगत जाल्या.

नुस्तें मारप हो हांगाचो मुखेल वेवसाय. दर्यादेगेचो आवाठ १९.२ किमी. आसा. तातूंत विंगड विगंड प्रकारांचें नुस्तें मेळटा. इलॅक्ट्रॉनिक उपकरणांनी नुस्त्यांच्या भिऱ्यांचो सोद घेतात.

नॉर्वेत खनीज कांय प्रमाणांत मेळटा. लोखण, फातरी कोळसो, जस्त, तांबें, शिशें, रुपें हीं खनिजां मेळटात. उद्येगधंद्यांची हांगा भोव उदरगत जाल्या. देशांत यंत्रसामुग्री, रसायनां, सारें, शिमीट, कागद, कपडे, साकर हांचे कारखाने आसात.

रस्ते आनी रेल्वेमार्ग बांदपाच्या कामाक हांगा १९ व्या शेंकड्यांच्या दुसऱ्या अर्दासावन सुरवात जाली. हांगा १९८६ मेरेन सुमार ८६,१४३ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले आनी ह्याच वर्सा रेल्वे मार्गांची लांबाय सुमार ४,२१९ किमी. आशिल्ली. नॉर्वेक व्हड आनी मेकळी दर्यादेग लाबिल्ल्यान दर्यादेगांनी तशेंच खोल दर्यांतले येरादारींत हो देश बरोच मुखार आसा. देशांत आंतरराश्ट्रीय चार आनी हेर ३४ विमानतळ आसात.

**लोक आनी समाजजीण** – सुमार दोन हजार वर्सांपयलींसावन मदल्या युरोपांतल्या नॉर्डिक वंशाचे लोक नॉर्वेक रावताले. गोरे कातीचे, ऊंच आनी अशीर मुखामळाचे हे नॉर्डिक वंशाचे लोक व्हड प्रमाणांत आसात आनी ते व्हायकिंगांचे पुर्वज आसात. दक्षिणेक वाटकुळ्या तोंडाचे आल्पायन वंशाचे लोक मेळटात आनी उत्तरेकडेन लॅप वंशाच्या लोकांचो राबितो आसा. विस्ताराचे नदरेन युरोपांतल्या खंयच्याय देशापरस नॉर्वेची लोकसंख्या उणी आसा. नॉर्वेंतलो समाज चडसो ग्रामिणूच आसा.

**भास आनी साहित्य** – नॉर्वेयन ही इंडो-युरोपी भाशा – कुटूंबाच्या जर्मन शाखेच्या स्कँडिनेव्हियन पंगडांची एक भास. हे भाशेचे दोन प्रकार आसात. पयल्या प्रकाराक बुकमाल (बुक नॉर्वेजियन) म्हण्टात. हे भाशेचेर डॅन्मार्की भाशेचो प्रभाव पडला आनी तिचो वापर वेव्हारांत चड करतात. हीच हांगाची राजभास. दुसरे भाशेक न्युनुर्स्क (न्यु नॉर्वेजियन) म्हण्टात. ही आधुनिक साहित्यीक भास आसून ललीत साहित्यांत तिचो वापर चड करतात. नॉर्वेत साक्षरतायेचें प्रमाण ९७% आसा. १८६० सावन नॉर्वेत मुळावें शिक्षण सक्तीचें केलां.

ऑस्लो, बर्गेन, ट्रॉनहेम आनी स्टावांगर हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं थळां. ते शिवाय आनीक महत्वाचीं थळां आसात ती म्हणजे, स्वाल बार द्विपसमूह, यान मायेन जुंवो, बूव्हे जुंवो, पिटर १ आनी क्विन मॉड लॅंड.

– कों. वि. सं. मं.

## निंबाळकर, मारुती दत्तात्रय :

(जल्म : १३ ऑगस्ट १९३२, चिपळूण रत्नागिरी).

सुटकेझुजारी. तो इंडियन नॅशनल काँग्रेस समितीचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा वी. डी. चितळे हाच्या फुडारपणाखाला बांदासावन गोंयांत येवन पत्रादेवीक सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरून खूब मार दिलो. फुडें कामगार चळवळिंतूय ताणें वांटो घेतिल्लो. दोन सप्टेंबर १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

## निकॅल :

एक धातुरूप मुलद्रव्य. रसायनीक चिन्न Ni; अणूक्रमांक (अणूकेंद्रांतल्या प्रोटॉनांचो आंकडो) २८; अणूभार ५८.७१; आर्वत सारणींतलें (इलॅक्ट्रॉन रचनेप्रमाण केल्ल्या मूलद्रव्यांच्या कोश्टकरूप मांडणेंतलें) ८ब गटांतलें आनी लोह त्रयींतलें एक संक्रमणी मूलद्रव्य; विरगळ बिंदू १,४५५° सॅ; सळसळ बिंदू २,९०० सॅ; घनताय (२०°से. क) ८.९ ग्रॅ./घ सँमी.; थीर सैमीक समस्थानिकांचो अणूभार ५८ (६८%), ६० (२६%), ६१ (१%), ६२ (४%) आनी ६४ (१%) (कंसांतले आंकडे सैमीक निकॅलांतलें समस्थानिकांचें प्रमाण दाखयतात). किरणोत्सर्गी (भेदक कण वा किरण भायर सोडपी) समस्थानिकांचे अणूभार ५६, ५७, ५९, ६३, ६५ आनी ६६; ह्या किरणोत्सर्गी मसस्थानिकांचें अर्धायुश्य २.५६ वरांपसून निकॅल (६५) ते ८०,००० वर्सांमेरेन निकॅल (५९) आसता; विद्युत् विन्यास (इलॅक्ट्रॉनांची अणूंतली मांडणी) २, ८, १६, २; संयुजा (हेर अणुंकडेन संयोग पावपाची तांक दाखोवपी अंक) २; भुकवचांतलें प्रमाण ०.०१६% आसा.

धर्तरेचेर पाविल्ल्या उल्कांतल्या लोखणापसून पुर्विल्ल्या मनशान साधनां आनी हत्यारां तयार केल्लीं. अशा लोखणांत ५-१५% निकॅल सांपडलां. युथिडीमस ह्या बॅक्ट्रियन राजाच्या (इ.स.प. २३५) नाण्यांनी २०.०४% निकॅल आनी ७७.५८% तांबें आशिल्लें अशें नदरेक आयलां. पुर्विल्ल्या काळांत चीनी लोक मिश्रधातूच्या स्वरुपांत निकॅलाचो उपेग करताले. १७५१ त निकोलायट (NIAS) आशिल्ल्या खनिजापसून अशुद्ध निकॅल ए. एफ. क्रुन्स्टेट हाणें तयार केलें. १७७५ त टी. ओ. बर्गमन हाणें ताच्या म्हणण्याक तेंको दिलो आनी निकॅल हें नांव सर्वमान्य जालें. १८०४ त एच. टी. रिक्टर हाणें शुद्ध स्वरुपांत निकॅल तयार केलें आनी १८७५ उपरांत निकॅलाचें व्हड प्रमाणांत उत्पादन सुरू जालें.

विपुलतेच्या नदरेन निकॅलाचो सगळ्या मूलद्रव्यांत २४ वो क्रमांक आसा. अग्निज खडकांत सरासरी ०.०१% निकॅल सांपडटा. पूण वेपारी नदरेन म्हत्वाचे अशे सांठे सामके उणे आसात. निकॅल धातुकां सल्फायड आनी लॅटरायट अशा दोन स्वरुपांनी सांपडटात. निकॅलाचे सांठे कॅनडांत सडबरी आनी टॉमसन-मोक लेक, अस्तंत ऑस्ट्रेलिया, रशिया (सायबेरिया), द. आफ्रिका, फिनलँड, नॉर्वे, चीन, भारत, अमेरिका, न्यू कॅलेडोनिया, क्युबा आनी ऑरेगॉन (अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां), ग्रीस आनी ब्राझीलांत आसात. १९७५ त निकॅलाचें संवसारीक उत्पादन (कम्युनिस्ट देश

सोडून) ६ लाख टन आशिल्लें.

निकॅल हें दर्यांत जियेवपी जिवांमदीं आनी दर्यांतूय मेळटा. तशेंच, वनस्पती आनी जनावरांच्याय ऊतकांत तें आसता. मनशाच्या सदच्या आहारांतूय दर दिसा ०.३-०.५ मिग्रॅ. निकॅल आसता.

धातुकांपसून निकॅल तयार करप हें खूब खर्चाचें आनी कठीण काम. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत आनी ते उपरांत निकॅल तयार करपाचे पद्दतींत खूब बदल जाले. धातुकां तीन प्रकारांचीं आशिल्ल्यान निकॅल तयार करपाक वेगवेगळ्यो पद्दती वापरतात. निकॅल दोन तरांनी शुद्ध करतात - १) विद्युत् विच्छेद करून आनी २) मॉंड-कार्बोनिल पद्दतीन.

निकॅल हो एक धव्या रंगाचो घट्ट धातू. तापोवन संस्कार केल्ल्या धातूचें घटपण (९९.९९% निकॅलाचो) ८५ ब्रिनॅल, जाल्यार थंड पद्दतीन संस्कार केल्ल्या धातूचें घटपण (९९.४% निकॅलाचो) २१० ब्रिनॅल इतलें आसा. ताची विद्युत् संवाहकताय १६% (तांबें १००% धरून) चुंबकीय पार्यताय सुरवातेक ११० ब उण्यांत उणी ६००, विद्युत् रोधकताय (२०° सॅ. क.) ७.८ मायक्रोओम सेंमी. आसता. सर्वसादारण तापमानाचो ताचेर परिणाम जायना. ऑक्सिजनाच्या सान्निध्यांत जाळ्ळ्यार निकॅलस ऑक्सायड (NiO) तयार जाता. उदकाचो ताचेर परिणाम जायना. पूण तापिल्ले अवस्थेंत तें वाफेचें अपघटन (रेणूचे कुडके जावपाची क्रिया) करता. विरल आनी संहत हायड्रोक्लोरीक आनी सल्फ्युरीक आम्लांचो ताचेर ल्हव ल्हव परिणाम जाता. पूण नायट्रीक आम्लाची जलद क्रिया जावन निकॅल नायट्रायट तयार जाता. धातूचेर क्षाराचो (आल्कलीचो) परिणाम जायना.

निकॅलाचीं खूबशीं ऑक्सायडां आसात. तातूंतलीं निकॅलस ऑक्सायड (NiO) आनी निकॅल डाय-ऑक्सायड ($NiO_2$) हीं म्हत्वाचीं. निकॅलस हायड्रॉक्सायड [$Ni(OH)_2$] हें निकॅल संयुगाच्या विद्रावांत पोटॅशियम हायड्रॉक्सायड भरशिल्ल्यान मेळटा. निकॅल लवणाची विरंजक (रंग ना करपी) पिठ्याच्या विद्रावावांगडा विक्रिया केल्यार निकॅलिक हायड्रॉक्सायड [$Ni(OH)_3$] तयार जाता. कार्बन डाय-ऑक्सायड चड प्रमाणांत आशिल्ल्या सोडियम बायकार्बोनेटाच्या विद्रावांत निकॅल सल्फेट भरशिल्यार निकॅल कार्बोनेट ($NiCO_3$) मेळटा. निकॅल ऑक्सायडाचेर वा कार्बोनेटाचेर विरल हायड्रॉक्लोरीक आम्लाची विक्रिया केल्यार निकॅल क्लॉरायड ($NiCl_2$) मेळटा. निकॅल नायट्रेट [$Ni(NO_3)_2$], निकॅल सल्फायड (NiS), निकॅल सल्फेट ($NiSO_4.7H_2O$) आनी निकॅल कार्बोनिल [$Ni(CO)_4$] हीं निकॅलाचीं कांय ऑक्सायडां. तशेंच निकॅलाचीं कार्बनां संयुगांय तयार करतात.

विद्युत् विलेपनांत निकॅलाचो १८४३ पसून उपेग जावपाक लागला. १८८९ च्या सुमाराक तिख्यांत निकॅलाची भरसण करपाची पद्दत प्रचारांत आयली. मोनॅल निकॅल-तांबें मिश्रधातू १९०५ च्या सुमाराक तयार केले उपरांत मिश्रधातूंत निकॅल हो पायाभूत धातू म्हणून वापरपाक सुरवात जाली.

निकॅल मिश्रधातू उकत्या तळाच्या विद्युत् प्रज्योत वा प्रवर्तन प्रकाराच्या भट्ट्यांनी हवेंत, अक्रीय (सोंपेपणी रसायनीक विक्रिया न जावपी) वायूंत जावं निर्वातांत वितळावपाक येतात. निकॅलाचे ५,००० परस चड मिश्रधातू प्रचारांत आसून उद्देगीक गरजेप्रमाण नवे-नवे मिश्रधातूय सोदून काडटात. उत्पादीत निकॅलांतलें ५०% परस चड निकेल लोखणावांगडा मिश्रधातू तयार करपाखातीर वापरतात. निकॅल तीखें (०.०५% - १०% निकॅल) मोटार गाडयो, ट्रक, बसी, तारवां, विमानां आनी हेर येरादारीच्या साधनांचे खास भाग तयार करपाखातीर व्हड प्रमाणांत वापरतात. तशेंच, शेताचीं यंत्रां-उपकरणां, यांत्रिक हत्यारां, खणकामाची यंत्रसामुग्री, खनीज तेलाच्यो बांयो आनी विद्युत् शक्ती निर्मितीची यंत्रसामग्री आनी हेर जायत्या तिख्याच्या संरचनांनी ताचो उपेग करतात. स्टेनलॅस तिखें (२%-२६% निकॅल) गंजरोधी आनी दाग ना पडपी आसून तीं शक्त आनी चिवटपण हे खातिरूय बरीं आसतात. हाका लागून रेल्वे, विमानां सारकिल्या येरादारीच्या साधनांनी, रांदचे कुडींतल्या आयदनांनी आनी रसायनीक आनी खाद्यपदार्थांचेर प्रक्रिया करपी उद्देग, लुगटा उद्देग, कागद कारखाने आनी खनीज तेल परिष्करण कारखान्यांनी अशा वेगवेगळ्या जाग्यांचेर तिख्याचो उपेग करतात. भट्ट्यांखातीर वापरतात त्या तिख्यांत २%-२६% निकॅल आसता. निकॅलाचें उच्च प्रमाण आशिल्ले मिश्रधातू तयार करपाखातीर निकॅलाच्या सगम्या उत्पादनांतलें सुमार २५% निकॅल वापरतात. तांबें आनी निकॅल (३०%-३५%) हांचे मिश्रधातू कळमरोधी आनी खास गूणधर्मांचे आसून बांदकाम, रसायनीक आनी खाद्यपदार्थांतल्यो प्रक्रिया उद्देगांतल्यो सामुग्री, तशेंच दर्या आनी विद्युत् शक्तीनिर्मणेच्या यंत्रसामग्रेंत तांचो उपेग करतात. निकॅल आशिल्ले मिश्रधातू जॅट इंजिनांनी, नाणीं तयार करपाक, सोबेच्यो वस्तू आनी भांगरांत जडयल्ल्या रत्नांमाणकांच्या वस्तींनी वापरतात.

निकॅलाच्या वट्ट उत्पादनांतलें सुमार २०% निकॅल शुद्ध स्वरुपांतलो धातू म्हणून वापरतात. ह्या स्वरुपांत ताचो खाद्यपदार्था वयले प्रक्रियेंत, रसायनीक आनी रेडिओंत, दूरचित्रवाणी आनी इलॅक्ट्रॉनीक उद्देगांत उपेग करतात. निकॅल तशेंच अगंज तिखें आनी हेर निकॅल मिश्रधातूंचो तिख्याचेर थर दिवपाखातीर उपेग करतात. हाका लागून रसायनांनी जावपी झीज करपी क्रियेक थांबोवपी परिणामकारक संरक्षक थर खूब उण्या खर्चांत मेळपाक शकता. अशे तरेन विद्युत् विलेपनान ताचो उपेग करून वातावरणी झिजेपसून संरक्षण मेळोवपाक येता.

दर वर्सा णव लाख किग्रॅ. परसय चड निकॅल उत्प्रेरक म्हणून वापरतात. एथिलीन डाय-अमायन टॅट्राॲसिटेटावांगडा अनुमापन करून निकॅल वळखुपाक येता. उत्प्रेरकांतलें आनी कंवचेंतलें निकॅल वळखुपाखातीर क्ष-किरणांचो उपेग करतात. हेभायर आनिकूय जायत्या पद्दतींनी निकॅल वळखुपाक येता.

निकॅल संयुगांक लागून जनावरांचेर विखासारको परिणाम जाता. शरिराचेर दिसपी निकॅलाचो परिणाम म्हणजे कातीच्यो पिडा. निकॅलाचो पिठो उस्वासावांगडा पुलमांवांनी गेलो जाल्यार कांक्र (कॅन्सर) हो रोग जाता. निकॅल कार्बोनॅल हें खूब विखारी आसता.

१९५०-६० मजगतीं केल्ल्या सर्वेक्षणाप्रमाण सुकिंदा, कान्सा, सारुआबिल, कालियापानी आनी भिमतानगर ह्या जाग्यांनी निकॅल ऑक्सायडाचे सांठे सांपडल्यात. हांचे भायर निकॅल सल्फायडाचे सांठे काम्पाहार (टाटानगरा लागीं) आनी रामसू (जम्मू आनी काश्मीर) ह्या सुवातांनीय सांपडल्यात. कटक जिल्ह्यांतय निकॅलाचे सांठे सांपडल्यात. सुकिंदा आनी कान्साक सांठ्यांपसून निकॅल तयार करपाचे प्रकल्प तयार जाल्यात. भारताची निकॅलाची दर वर्साची गरज सुमार २,५०० टन इतली आसा. सध्या ती कॅनडा आनी रशियाच्यान आयात करून भागयतात. सुकिंदा प्रकल्प सुरू जाले उपरांत देशाची निकॅलाची गरज भागोवपाखातीर आयात करपाची गरज पडची ना.

- कों. वि. सं. मं.

**निकाराग्वा :** मध्य अमेरिकेंतलो सगळ्यांत व्हड प्रजासत्ताक देश. क्षेत्रफळ १,३०,००० चौ. किमी. लोकसंख्या ४१,००,००० (१९९१). विस्तार १०° ४५' उत्तर ते १५° १०' उत्तर आनी ८३° १५' अस्तंत ते ८७° ४०' अस्तंत. ह्या देशाचे उत्तरेक हॉन्डुरास आनी दक्षिणेक कोस्ता रिका हे देश आसात. उदेंतेक कॅरिबीयनचो दर्या आनी अस्तंतेक पॅसिफीक म्हासागर आनी वायव्येक फॉन्सेकाचें आखात आसा. मानाग्वा हें ह्या देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन** – भूंयरचणुकेचे नदरेंतल्यान देशाचे तीन वांटे जातात. १. मदलो दोंगरी-सड्याचो वठार २. पॅसिफीक म्हासागराची दर्यादेग आनी ३. ॲटलांटीक म्हासागराची दर्यादेग.

१. निकाराग्वाच्या मध्यकाक आशिल्ल्यो पर्वतांवळी, हॉन्दुरासाचे शिमेलागीं रूंद आसात आनी दक्षिणेक अशीर जायत वतात. तातूंतली मोगोतोन (२,१०७ मी.) आनी सास्लाइया (१,९९४ मी.) हीं ऊंच तेमकां आसात. आलास्कासावन पनामामेरेन पातळिल्ली खडपाळ पर्वतांची रांक निकाराग्वांत मातशी तुटून परतून मुखार वता. हो तुटिल्लो वाठार म्हळ्यार आलास्का ते तियॅरा दॅल फुयॅागोमेरेनचे रांकेंतलो सगळ्यांत उणे उंचायेचो वाठार.

२. पॅसिफीक म्हासागराची दर्यादेग ३५० किमी. लांबायेची आसा आनी ही देग उत्तरेकडेन रूंद आनी सपाट आसा. दोंगरी वाठार आनी पॅसिफीक दर्याकांठ हांचेमदीं सुमार ९,५०० चौ. किमी. च्या क्षेत्रांत चाळीस ज्वालामुखींची एक रांक आसा. ज्वालामुखींतली सान क्रिस्तोबॅल (१,७४५ मी.), कन्सॅप्शन (१,६१० मी.) आनी मोमोतोम्बो (१,२८० मी.) हीं म्हत्वाचीं तेमकां. पर्वतरांकेमदीं पिकाळ द्रोणी वाठार आनी देगणां आसात. ह्या देशांत भूंयकांपूय बरेच फावटीं जातात. ॲटलांटीकाचो म्हणजेच कॅरिबीयन दर्या ५३८ किमी. लांबायेचो आसा. हो कांठ दर एके सुवातेर ८० किमी. मेरेन रुंदायेचो आसा. तो रेबटान भरिल्लो, सखल आनी उथळ आसा. ह्या देशांत खूब तळीं आसात. मदल्या पर्वतांरांकेसावन उदेंतेक व्हांवपी न्हंयो खूब आसात. हातूंतली कोको ही सगळ्यांत लांब न्हंय (६८० किमी.) आसा.

**हवामान** – देशाच्या दर्यादेगांनी हवामान उश्ण आनी दमट आसता. उदेंत आनी अस्तंत दर्यादेगांचेर सरासरी तापमान २६° सॅ. आसता. दोंगरी वाठारांनी शियाळ्यांत तापमान १६° सॅ. आनी गिमांत २१° सॅ. आसता. सरासरी पावस २५० सेंमी. पडटा. कॅरिबियी दर्यादेगांचेर ईशान्य वेपारी वाऱ्याक लागून सॅन वॉन दॅल नॉर्वेत हे सुवातेर ५९० सेंमी. पावस पडटा.

निकाराग्वाच्या चडशा वाठारांनी सदांच पाचवी वनस्पत मेळटा. देशाचो ६०% परस चड भाग रानांचो आसून उंचावयल्या वाठारांनी दाट रानां आसात. माहोगनी आनी सिडार रूख भोव प्रमाणांत मेळटात. बदाम, अक्रोड, पायन, क्वेब्रॅको, ग्वायाकम हे रूख म्हत्वाचे आसात. अस्तंतेक सखल प्रदेशांत सॅव्हाना तण वाडटा. दाट रानांक लागून विंगड-विंगड जातींची मोनजात निकाराग्वांत खूब आसा. दलदलीच्या वाठारांत मानगीं, शेड्डे, सोरोप आनी कांसव मेळटात. हांगाच्या रानांनी माकड, हरणां, प्यूमा, जॅगुआर, पेकारी, आर्मडिलो आनी हेर जनावरां दिश्टी पडटात. तशेंच न्हंयांनी, तळ्यांनी आनी दर्यांत साव्या आनी खाऱ्या उदकांत विंगड विंगड प्रकाराचें नुस्तें आसा.

**इतिहास** – स्पेनाची घुरी येवंचे पयलीं हांगा सुमो, मिस्कितो आनी हेर शेतवडी रानटी जमाती आशिल्ल्यो. १५२४ त फ्रॅन्सिस्को कॉर्दोबान ग्रॅनाडा आनी लेऑन शारांचेर जैत मेळोवन, सुमार तीन शेंकडे ग्रॅनाडासावन निकाराग्वांत सत्ता चलताली. स्पेनाच्या हेर वसणुकांवांगडा निकाराग्वाय १८२१ त स्वतंत्र जालो. कांय वर्सां मध्य अमेरिका संघराज्यांत रावले उपरांत ३० एप्रिल १८३८ त निकाराग्वाक पुराय स्वातंत्र्य मेळ्ळें. हे उपरांत 'लिबरॉल ऑफ लिओन आनी कॉन्झर्वेटीव ऑफ ग्रॅनाडा हांचेमदल्या झगड्यांनी निकाराग्वाची स्थिती इबाडिल्ली, म्हणून १९१२, १९२६, १९२८ आनी १९३६ त संयुक्त संस्थानांनी आपलें नौदल धाडून हांगा शांतताय हाडली.

५ ऑगस्ट १९१४ त जाल्ले ब्रायनचॅमारो कबलातीक लागून निकाराग्वान, संयुक्त संस्थानांक आपल्या देशांत खारीज खणपाक आनी ९९ वर्सांमेरेन कॉर्न जुंवो, अमेरिकेच्या नौदलाक तळ म्हणून दिल्लो. पूण १९७१ त जाल्ले कबलातीक लागून अमेरिकेन कॉर्न जुंवो निकाराग्वाक परत केलो.

सामोझा कुटूंबान ४६ वर्सांमेरेन आपली सत्ता हांगा चलयली. पूण १७ वर्सांमेरेन चलत आयिल्ले क्रांतीक लागून सामोझा सत्तेचो अंत जालो. १९७४ च्या संविधानाप्रमाण राश्ट्रपतीक स वर्सांखातीर वेंचून काडटात. तोच राश्ट्र मुखेली आसता आनी आपलें मंत्रीमंडळ आनी हेर अधिकाऱ्यांकूय तोच वेंचता. निकाराग्वाचें विधीमंडळ दोन सदनी आसा. राज्यमंडळांत (सिनेट) ३० आनी प्रतिनिधी मंडळांत ७० वांगडी आसतात.

**अर्थीक स्थिती** – शेतवड हो निकाराग्वाचो मुखेल वेवसाय आनी वट्ट लोकसंखेचे ६५% लोक ह्याच वेवसायांत आसात. निर्यातीचो ७५% म्हालूय शेतकी उत्पन्नाचेर आसता. कापूस, काफी, मास तशेंच साकर, लाकूड आनी केळीं हांची चड प्रमाणांत निर्यात जाता. कापूस, ऊंस, काफी, तीळ, मको, भात, जोंधळो, कोको, कड्डण, तंबाकू, केळीं आनी हेर फळां हांचीं पिकां खूब प्रमाणांत येतात. गोरवांक खावड म्हणून उपेग पडपी पांचव्या तणांचें हांगा बरेंच पीक येता. गोरवां, मेंढरां आनी कोंबयो पोसपाचोय धंदो हांगा नेटान चलता. उदकांतले पिकावळींत नुस्त्याचें प्रमाण बरेंच आसा. न्वेव्हा सिगोव्हियाक टंगस्टनचे सांठे मेळटात. भांगर, रुपें, शिंशें आनी जस्त हांचेय साठे कांयकडेन मेळटात. १९७४ त पॅसिफीक दर्यादेगेर सैमीक वायू मेळ्ळा. आयात निर्यातींत संयुक्त संस्थानांत सगळ्यांत चड निर्यात करपी हो देश.

'पॅन अमेरिकन' ह्या ४८५ किमी. लांबायेच्या राजमार्गाक लागून अस्तंत देगांतले वाठार हॉन्दुरास आनी कोस्ता रिका ह्या देशांक जोडल्यात. हो रस्तो सोडल्यार हेर रस्ते बरे नात. चड पावसाक लागून रस्त्यांक फोंड पडटात. १९८४ मेरेन हांगा ४,००० किमी. लांबायेचे रस्ते, ३३४ किमी. लांबायेचे रेल्वे मार्ग आशिल्ले. 'लॅनिका' ही आंतरराश्ट्रीय येरादारी करपी सरकारी विमान कंपनी.

**लोक आनी समाजजीण** – हांगा १५०४ ते १५२५ ह्या काळांत स्पेनी लोक आयले. हेपयलीं हांगा ॲझटेक जमातींचो राबितो आशिल्लो. मागीर वंशीक भरसण जावन, आतां ७०% लोक मिस्तीस आसात. तातूंतले भौसंख्येन अस्तंत देगांच्या पिकाळ वाठारांनी रावतात. वट्ट लोकसंख्येंतले ८०% लोक पॅसिफीक देगांनी आनी तळ्यांच्या वाठारांत रावतात. शारांत चडशे युरोपीय लोक रावतात. कॅरिबीयन देगांनी खापरी वंशाचे लोक आसात. तांची लोकसंख्या ८% आसा. चडशे लोक कॅथलीक पंथाचे

आसात. १९८४ मेरेन ८२.२३% रोमन कॅथलीक , ३.३% प्रॉटॅस्टंट आनी १३.६% हेर धर्मांचे लोक आशिल्ले. १९८० मेरेन ६२.४% लोक साक्षर आशिल्ले. मुळावें शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसलें तरीय शाळांचो आंकडो अजुनूय उणो आसा. देशांत पर्यटन वेवसायाची उदरगत जायत आसा. हांगाची अधिकृत भास स्पेनीश. १९८४ मेरेन हांगा तीन दिसाळीं उजवाडाक येतालीं.

\- कों. वि. सं. मं.

## निकाह :

मुसलमान लोकांच्या लग्नसंस्काराक निकाह (अरबी) वा शादी (फारशी) अशें म्हण्टात. निकाह म्हळ्यार खुशालकायेचो दीस.

हिंदूंवरी हो संस्कार धर्मीक न्हय. तो एक समाजीक करार आसता. हिंदूंच्या भटावरी हो संस्कार काजिनूच करूंक जाय अशें ना. कुराणांतले लग्नाविशींचे मंत्र म्हणून कोणूय निकाह करूंक शकता. मुसलमानांमदीं बालविवाहाची चाल ना. जायते फावट भुरग्यांच्या सव्या वा सातव्या वर्साच तांची जोडी जमोवन दवरतात. पूण लग्नसुवाळो मात भुरगीं पिरायेंत आयलीं म्हण्टकच करतात. न्हवऱ्या-व्हंकलेचें कूळशील पळोवन थरयल्लें आनी विधियुक्त केल्लें लग्न हो निकाह हाचोच प्रकार आसा. सुरवातेक खाजगी रितीन चौकशी जाले उपरांत न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेच्या बापायकडेन न्हवऱ्याच्या वंशाची पुराय म्हायती बरोवन धाडटा. म्हायती वांगडा कांय भेटवस्तूय धाडटात. ती भेट आपणायली जाल्यार मागीर व्हंकलेक मागणी घालतात. मागणे वेळारूय वस्त्रालंकार धाडपाची पद्दत आसा. हाका 'मंगनी' म्हण्टात.

चलयेचो निकाह सक्तीन लावंक जायना, असो कायदो इस्लाम धर्मांत चालंत आसा. इस्लामान बायल आनी दादलो हांचो दर्जो चडसो सामान्य मानला. हाका लागून लग्नाक व्हंकलेची संमती भोव गरजेची आसता. मौलवी वा तिच्या नात्यांतलो कोणूय तिचो वकील म्हणून तिची संमती मेळयता आनी ती न्हवऱ्याक सांगता. हे संमतीक उण्यांत उणे दोन गवाय लागतात. चडशीं लग्नां न्हवऱ्या-व्हंकलेचे आवय बापूयूच थरयतात. पूण हालींच्या तेंपार न्हवरो-व्हंकल आपलो सांगाती वेंचून काडटात.

आपले ऐपतीप्रमाण न्हवरो व्हंकलेक कांय रक्कम हुंडो म्हणून दिता. ताका 'मेहेर' अशें म्हण्टात. ताचेर फकत व्हंकलेची मालकी आसता. लग्नाआदीं चार दीस न्हवऱ्या-व्हंकलेक तांच्या घरा पिठी लायतात. गंव वा मूग हांच्या पिठांत तिळांचें तेल आनी हळद घालून तयार केल्लो लेप लायतात. ह्या वेळार जमिल्ल्यो बायलो पदां म्हण्टात आनी मागीर खाजूर वांट्टात.

मुखेल लग्नविधी व्हंकलेच्या घरांत जाता. सादारणपणान तो तीन दीस चलता. व्हंकलेची मंडळी न्हवऱ्यागेर वचून ताच्या हाता-पायांक मेथी लायतात आनी ताका सुताच्या नाडयांचें कांकण, लेंस आनी पागोटें दितात. उपरांत न्हवऱ्याक वाजयत गाजयत व्हंकलेगेर व्हरतात. हे मिरवणुकेक 'सबगस्त' म्हण्टात. पयले तीन दीस दोनूय कडचे सोयरे एकठांय बसून जेवणखाण, गुडगुडी, पानसुपारी, नाचगाणें आनी हेर कार्यक्रमांनी वेळ घालयतात. तिसऱ्या दिसा न्हवरो व्हंकलेकडच्यान आयिल्ले कपडे घालता. त्याच दिसा व्हंकलेच्या हाता-पायांक मेथी लायतात. उपरांत तिका न्हाणोवन न्हवऱ्यान धाडिल्ल्या वस्त्रालंकारांनी सजयतात. सांजे वेळार न्हवरो तकलेक बाशींग बांदून मिरवणुकेन व्हंकले घरा वता. थंय ताचेखातीर खास बसका तयार केल्ली आसता. ताका तेंकून पड्डो आसता. पड्ड्याआड व्हंकलेवांगडा हेर बायलो बशिल्ल्यो आसतात. काझी व्हंकलेक तिची संमती विचारता. तिणें 'हय' म्हळ्यार तो न्हवऱ्याकडच्यान कुराणांतलीं लग्नविशियक पांच कलमां म्हणून घेता. उपरांत 'खुत्बा ए निकाह' (विवाह मंत्र) म्हंटात. उपरांत न्हवऱ्या-व्हंकलेची भेट घडोवन हाडटात. न्हवरो सुरवातेक व्हंकलेचें तोंड हारशांत पळयता. काझीन दोगांकूय आशिर्वाद दिले उपरांत हेर जमिल्ले लोक हात वयर करून ह्या आशिर्वादांत वांटो घेतात. खारको वांटले उपरांत काझी आपल्या दप्तरांत त्या निकाहाची नोंद करता.

न्हवऱ्याचे मंडळीक मेजवानी आनी न्हवऱ्याक आंदन म्हणून दिवपाच्यो वस्तू दिले उपरांत वरात भायर सरता. वरात न्हवऱ्याच्या घरा वाजत गाजयत वता. ताचे उपरांत दोन, तीन दिसांनी न्हवऱ्याकडची मेजवानी जाता. तिसऱ्या वा धाव्या दिसा कांकणां सोडलेउपरांत लग्नसुवाळो सोंपता.

सादारणपणान होच लग्नसुवाळो इस्लामी लोकां मदीं चलता, पूण मुस्लमानांमदीं जातिभेद आशिल्ल्यान दर एके जातींत लग्नविशियक आचारांत थोडो भोव फरक आसता.

\- कों. वि. सं. मं.

## निकोबार :

(पळेयात अंदमान आनी निकोबार).

## निर्गूण संप्रदाय :

निर्गूण परब्रह्माची उपासना करपी लोकांचो वर्ग. मुसलमान लोक भारतांत येवन स्थायीक जातकूच इस्लामांतल्या एकेश्वरवादावरीच एक उपासना पद्दत सुरू करपाचे इत्सेन सगुणोपासनेपसून वेगळी अशी निर्गूण ब्रह्माची उपासना कांय लोकांनी आपणायली. स्वामी रामानंद आनी ताचो गुरू राघवानंद हांच्या काव्यांत निर्गूण मताचीं मुळां मेळटात. पूण ह्या पंथाचे सिद्धांत मात उपनिशदांतल्या तत्त्वगिन्यानाचेर आदारिल्ले आसात. सुफी संप्रदायाचो मात ताचेर प्रभाव पडिल्लो दिसता. कबीराक ह्या पंथाचो प्रवर्तक मानतात. जाचेखातीर धर्मीक भेदभाव तयार जातात अशा बाह्योपचारांचो त्याग आनी शुद्ध इश्वरभक्ती तशेंच सात्विक जीण हाचेर कबीरान भर दिला. मनाचें खरेपण आनी सहानुभूती हांका तो चड म्हत्व दिता. पूण निर्गुणाकडेन आस्था आसुनूय ताणें ह्या नांवाचो वेगळो संप्रदाय सुरू केलोना. तशेंच ताचे उपरांत अशा संप्रदायाची कोणेंच स्थापना केल्ली दिसना. पूण वेगवेगळ्या संप्रदायांतल्या निर्गुणोपासाक आनी सगुणोपासक लोकांमदी भेद दाखोवपाखातीर ते विचारसरणीक निर्गूण संप्रदाय हें नांव मेळ्ळें. निर्गुनिया, निर्गूणवादी वा संतमत हे शब्द त्याच अर्थान वापरतात.

**निर्गूण संतकाव्य** - इ.स.च्या १५ व्या शतमानासावन भक्तिकाव्यांत सगूण आनी निर्गूण हे दोन वेगवेगळे प्रवाह सुरू जाले. फुडें निर्गूण काव्याचे शुद्ध ज्ञानाश्रायी आनी शुद्ध प्रेममार्गी अशे दोन फांटे जाले. निर्गूण भक्ती ही भावनात्मक प्रवृत्ती आसून संतकवींच्या भक्तीगितांवरीच सुफी कवीच्या प्रेमग्रंथांत तिचो आस्वाद जाता. बौद्धपंथी सिद्धपुरूष आनी नाथपंथी योगी हांच्या पदांचोय निर्गूण काव्याचेर प्रभाव पडला.

कबीराच्या ज्या पदांनी निराकार ईश्वराची उपासना करपाचो उपदेश केल्लो आसा तांकां 'कबिरदास की वाणी' अशें म्हण्टात. तीं पदां निर्गूण

ह्या नांवान नामनेक आसात. भजनां आनी निर्गूण गितां हांचो विशय एकूच आसता तरी निर्गूण गितां एका वेगळ्याच तालांत गायतात. जायत्या भोजपूरी संतकवींनी निर्गूण पदां रचल्यांत. निर्गूण पदां गोड आसतात. तांचें खाशेलपण म्हळ्यार तातूंतलीं दुसरी ओळ 'आहो रामा' वा 'कि आहो रामा' ह्या उतरान सुरू जाता आनी हो राम ह्या उतरान सोंपता.

पाँच दे पचीस कोसे बसले महाजन हो
कि आहो मोरे रामा, कपना अवगुनवा हरी
मोरे रुसेले हो राम

मराठी संतकवींनी निर्गुणापरस सगूण भक्तिकूच चड म्हत्व दिल्लें दिश्टी पडटा. संत एकनाथ सगूण निर्गूण एकूच आशिल्ल्याचें सांगता.

माइने स्वरूप निज निर्गूण
अथवा वैकुंठीचें सगुण
दोन्ही एकचि निश्चयें जाण
सगुण निर्गुंण समसाम्य

– कों. वि. सं. मं.

**निग्रो (खापरी) :** निग्रोयड ह्या मानववंश गटांतलो एक वर्ग. कुळकुळीत असो काळो रंग धरून गाड पुडिरंगामेरेनच्या रंगाची कात आशिल्ले, काळे, मुदयाळे केंस आशिल्ले सर्वसादारणपणान आफ्रिकेंतले काळे लोक ह्या गटांत पडटात. ह्या वंशगटांतल्या मनशाचे तकलेचो आकार लघुशिर्शी आसता. दाट भुंवयो, चेपटें नाक आनी भायर पडिल्ले खरबरीत ओंठ हीं ह्या वंशगटाचीं आनीक कांय खाशेलेपणां. निग्रो (खापरी) लोकांचे मुळावे पुर्वज दक्षिण आफ्रिकेंतल्या सहारा प्रदेशांतले आशिल्ले. निग्रोंक आफ्रिकेंतल्यान बळजबरीन व्हरून अमेरिकेंत गुलाम म्हणून विकलेउपरांत तांचेर एक नवोच धर्म, संस्कृती आनी जीण लादली. तांचें मनीसपण लेगीत काडून घेतलें आनी तांकां जनावरांची वागणूक मेळपाक लागली. अमेरिकेंतल्या निग्रो लोकांची संख्या त्या देशाचे वट्ट लोकसंख्येच्या इकरा टक्के आसा. जगाच्या हेर भागांतूय ते शिंपडिल्ले आसात. अमेरिकेंत निग्रो लोक सोळाव्या शेंकड्यासावन रावपाक लागले. तांचेवांगडा कांय स्पेनी आनी पुर्तुगेज लोकांनीय थंय राबितो केलो. इ.स. १५१७ त दर एका स्पेनी वसणूकवाल्याक बारा निग्रो लोकांची आयात करपाची मान्यताय कायद्यान मेळ्ळी आनी अमेरिकेंत कायदेशीर थरयल्ल्या निग्रो गुलामांच्या वेपाराक नेटान सुरवात जाली. १५४० त धा हजार निग्रो लोकांक स्पेनाच्या शेकातळा वॅस्ट इंडीसांत आयात केल्ले.

सतराव्या शेंकड्यांत स्पेनाचें नियंत्रण गेलेउपरांत १६४० च्या सुमाराक सावन अमेरिकेंत साकर उत्पादन वेवसायांत काम करपाखातीर निग्रो लोकांची व्हडा संख्येंत आयात सुरू जाली. दक्षिण अमेरिकेंत ती आयात सगल्यांत चड आशिल्ली. दक्षिण अमेरिकेंतले रोमन कॅथलीक इगर्जेन मात तांकां गुलामगिरींतल्यान सोडोवपाक फाटबळ दिल्लें. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत गुलामगिरी कित्याक नश्ट जावंक जाय, हेविशीं विवेचन करपाक हे इगर्जेनूच फुडाकार घेतिल्लो. विंगड-विंगड वेवसायांनी कामगारांची पुरवण करपाखातीर सुरवातेक वॅस्ट इंडीसांत आनी उपरांत अस्तंत आफ्रिकेंत निग्रो लोक कामगार म्हणून मेळटाले. तंबाकू लागवडीच्या कामांत निग्रोंची संख्या वाडत गेल्ल्या कारणान १६६१ त व्हर्जिनियांत आनी १६६३ त मॅरीलॅंडांत गुलामगिरी कायदेशीर जाली. ल्हव-ल्हव पुराय दाक्षिणात्य वसणुकांनी गुलामगिरीन अर्थीक संस्थेची बुन्याद घाल्ली. उत्तरेकडेन आशिल्ले वसणुकेभितर पॅनसल्वानिया आनी हडसन देगणांत गुलामगिरी अस्तित्वांत आशिल्ली. पूण दर एके वसणुकेभितर निग्रोंचे वागणुकेचेर नियंत्रण दवरपाखातीर आशिल्ले नेम आनी कायदे वेगवेगळे आशिल्ले. व्हर्जिनियाच्या कायद्याप्रमाण खून आनी आगळीक ह्या गुन्यांवांखातीर निग्रो गुन्यावकारांक गोळाक लायताले, चोरी वा हेर सादया गुन्यांवांक तांकां चाबकान फोडून काडटाले, हात ना जाल्यार पांय कातरताले, तशेंच तांकां दागूय दिताले. १७६३ त व्हर्जिनियांतल्या निग्रो लोकांनी ह्या कायदयाआड बंड करपाक सुरवात केल्ली. पूण ताचो कांय उपेग जालोना. उपरांत अमेरिकेच्या स्वातंत्र्यझुजांत पांच हजार निग्रोंचो आस्पाव आशिल्लो. अमेरिका स्वतंत्र जाले उपरांत गुलामगिरीआड आनी दास्यमुक्तीखातीर साबार संस्थांची स्थापणूक जाली. हाचो परिणाम म्हळ्यार अमेरिकेंत उत्तरेकडच्या राज्यांत गुलामगिरीचें प्रमाण ल्हव ल्हव उणें जावंक लागिल्लें. जानेवारी १८०८ च्या कायदयाक लागून गुलामांचे खरेदी-विक्रेक आळो बसलो. उपरांत लुगटाच्या वेवसायाक नेट आयिल्ल्यान व्हडा प्रमाणांत कामगारांची गरज जाणवूंक लागली. हाका लागून अमेरिकेंत परत निग्रो गुलामांची संख्या वाडली. हो वेवसाय खूब फायदेशीर थरलो. पूण निग्रोंक ताचो कांयच लाव मेळ्ळोना. तांकां खूब वायट वागणूक मेळटाली. तांकां दीसरात काम करचें पडटालें.

अमेरिकेंतल्या यादवी झुजा उपरांत रिपब्लिकन पक्ष गुलामगिरीक विरोध करपाक लागलो. १८६० त अब्राहम लिंकन अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. दक्षिणेकडचे प्रदेश गुलामगिरी आडचे चळवळींतल्यान भायर पडले आनी दोन गट निर्माण जाले. सुमार दोन लाख निग्रो लोकांचो हे चळवळींत आसपाव आशिल्लो. लिंकनाच्या यत्नांक लागून दास्यमुक्तीच्या आंदोलनाक येस मेळ्ळें. ताचो जाहीरनामो प्रसिद्ध जावन निग्रोंची १६६८ त गुलामगिरींतल्यान कायदयान मुक्तताय जाली. तेन्नासावन तांकां शिक्षण घेवपाची संद मेळ्ळी. पूण खूब तेंप चडशे निग्रो लोक अशिक्षीत उरले. अर्थीक नदरेन ते खऱ्या अर्थान स्वतंत्र जावंक नाशिल्ले.

कामगार संघटनांनी निग्रो लोकांक वांगडी करून घेवपाक न्हयकार दिल्लो. निग्रोक तांणी एकठांय येवपाची संद केन्नाच दिलीना. कांयकडेन तांकां 'संपफोडे' (Strike breakers) अशें म्हण्टाले. अशा वेळार दंगली निर्माण जाताल्यो. पयल्या म्हाझुजाच्या तेंपार युरोपांत कामगार उणे पडपाक लागले म्हणून उत्तरेकडेन निग्रो लोकांची परत आयात सुरू जाली. पयल्या म्हाझुजांत चार लाख निग्रोंक वायुदळांत नेमिल्ले. तांकां मर्यादीत मतदानाचे अधिकार मेळपाक लागले. विंगड विंगड क्षेत्रांतले उद्देगधंदे, वेपार, कारखाने आनी हेर वेवसायांनी तांचो आस्पाव व्हडा संख्येन जावपाक लागलो. १९०९ त 'नॅशनल असोसिएशन फॉर द अॅडवान्समॅंट ऑफ अर्बन कलर्ड पिपल (NAACP) हे संघटणेची स्थापणूक जाली. १९११ त 'नॅशनल लीग ऑफ कंडिशन्स अॅमॉंग निग्रोस' हे संस्थेची स्थापणूक जाली. १९३० मेरेन साबार निग्रो लोकांनी राजकीय क्षेत्रांत वांटो घेतिल्लो आनी मतदानूय केल्लें. अध्यक्ष रुझवॅल्टाच्या नव्या अर्थीक धोरणांक लागून (New Deal) निग्रोंक समाजीक आनी अर्थीक सुविधा आनी फायदे मेळ्ळे. शासनवेवस्थेंत कांय म्हत्वाच्यो सुवातीय तांकां मेळ्ळ्यो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या तेंपार धा लाख निग्रो वायुदळांत काम करताले. म्हाझुजाउपरांतच्या काळांत निग्रोंक दिल्ल्या नागरी अधिकारांमदीं खूब सुदारणां जाल्यो. १९४६त नागरी हक्कांची येवजण आंखपाखातीर

काळ्या आनी गोऱ्या अशा दोनूय वांगड्यांचे समितीची स्थापणूक केली. हे समितीन निग्रो लोकांक कांय अधिकार मेळोवन दिले.

१९५४ त शिक्षण मंडळान अमेरिकेंतल्यो सगळ्यो शाखा आनी हेर शिक्षण संस्थांभितर वर्णभेद पाळचेनात अशें धोरण जाहीर केलें. हें निग्रोंचे उदरगतीचे नदरेन म्हत्वाचें पावल आशिल्लें. पूण बसींनी वर्णभेद पाळटाले. निग्रोंनी बस प्रवासाचेर बहिश्कार घालो. उपरांत हो भेद लेगीत काबार जालो.

१९५७ त अमेरिकन काँग्रेसीन 'समान नागरीकत्वाचो कायदो' पास केलो. ताचेखातीर केल्ले नागरी हक्क मेळोवपाचे चळवळींत साबार संघटणांनी वांटो घेतिल्लो. दक्षिणेकडेन काळ्या आनी गोऱ्या विद्यार्थांनी लेगीत 'स्टुडंट्स नॉनव्हायोलेंट को-ऑर्डिनेटेड कमिटीची स्थापणूक केली. तिचो परिणाम म्हळ्यार काँग्रेसीन सगळ्यांखातीर बसी उकत्यो दवरल्यो. वंशीक एकवट दाखोवपाखातीर १९३३ त दोन लाख काळ्या आनी गोऱ्या लोकांनी जोड मोर्चो काडलो. १९६५ त मतदान हक्कांविशीं कायदो पास जावन निग्रोंक मतदानाचे पुराय अधिकार मेळ्ळे. साबार संस्था आनी संघटणांनी निग्रोंक मतदानाचे हक्क मेळोवन दिल्ले. हातूंत निग्रो लोकांचो मुखेली मार्टिन लुथर किंग हाचो म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. अध्यक्ष जॉन्सन हाणेंय निग्रोंखातीर चड नागरी हक्क दिवपाचे नदरेन काँग्रेसीक फाटबळ दिलें. राजकीय वा कायदेशीर हक्क मेळवचेपरस अर्थीक थिराय मेळोवपाखातीर काळ्या लोकांचे चळवळीक चड नेट आयलो. १९७० च्या सुरवातीच्या काळांत वंशीक समताय खरेंपणीं मेळची हाका लागून शाळेंतल्या विद्यार्थ्यांनी उठाव केल्लो. १९७२ त एकेच बसींतल्यान प्रवास करपाची कायदेशीर मान्यताय सर्वोच्च न्यायालयान दिली. अशा तरांच्या संघर्शांक आनी विंगड विंगड कायद्यांक लागून अमेरिकेंतल्या निग्रोंक समाजांत समानताय मेळत गेली.

– कों. वि. सं. मं.

## निघंटु :

वैदिक पदांचो वा शब्दांचो सगळ्यांत पोरणो कोश. यास्कान हाचेर 'निरूक्त' नांवाचें भाश्य रचिल्लें आसून ताचे सुर्वेकच ह्या कोशाक समाम्नाय (वैदिक शब्दकोश) अशें म्हळां. ह्या समाम्नायाचेच 'निघंटवः' अशें नांव प्रचलीत आशिल्ल्यान समाम्नायाक उद्देशून 'निघंटु' हो शब्द वापरतात अशें म्हण्टात. सदया उपलब्ध आशिल्ल्या कोशांत जायत्या जाणांनी वेगवेगळ्या काळांनी तातूंत भर घालून तो पुराय केलो आसूंक जाय. प्रजापती कश्यप हो निघंटुचो कर्तो आशिल्ल्याचें महाभारतांत म्हळां.

निघंटुचीं तीन कांडां आनी पांच अध्याय आसात. तातूंतल्या पयल्या कांडांत तीन अध्याय आसून ताका नैघंटुक कांड म्हण्टात. दुसऱ्या आनी तिसऱ्या कांडांत दरेकी एक - एक अध्याय अशी पांच अध्यायांची विभागणी आसा. पयल्या कांडांत समानार्थी शब्दांचो झेलो आसून खंयच्या शब्दांचो खंयचो अर्थ आनी त्या अर्थाचे वाचक अशे कितले शब्द आसात हें सांगलां. तें करतनाच नामांचो गट आनी क्रियापदांचो गट असो भेद दवरला. नामाचो गट आसल्यार 'नामानि' वा 'नामधेयानि' आनी क्रियापदांचो गट आसल्यार 'कर्माणः' अशे शब्दप्रयोग केल्ले आसात. देखीक - हिरण्यनामानि, ज्वलतिकर्माणः.

पयल्या तीन अध्यायांनी येवपी शब्दांची विभागणी केल्या ती अशी - पयल्या अध्यायांत पृथ्वी, अंतरिक्ष, मेघ, उषा आदी विश्वरचणुकेविशीं आनी सैमीक घडणुकांकडेन संबंदीत अशीं नामां. दुसऱ्या अध्यायांत मनीस आनी ताचेकडेन संबंदीत अशो वस्तू आनी क्रिया. तिसऱ्या अध्यायांत अमूर्त कल्पना आनी गूणविशेष. ह्या तिसऱ्या अध्यायांत एकेकडेन उपमा दिवपाचे वेगवेगळे प्रकार एकठांय केल्यात. 'नैगमकांड' वा 'ऐकपदिक कांड' हें निघंटुचें दुसरें कांड. 'जहा', 'निध' आदी 'अनवगतसंस्कार' वा व्याकरणी नदरेन कठीण अशा अनेकार्थ शब्दांचो संग्रह तातूंत आसा.

निघंटुच्या 'दैवताकांड' नांवाच्या तिसऱ्या कांडांत अग्नी, इंद्र, वरूण आदी देवतांच्या नांवाच्या संग्रहावांगडाच तांचेकडेन संबंदीत आशिल्ल्या इषु, रथ, दुंदुभी ह्या सारक्यो वस्तू वा अश्व, मंडूक आदी प्राणी हांचोय आस्पाव जाला.

ह्या कांडांतल्या एका अध्यायाचे वट्ट स विभाग आसून पयल्या तीन विभागांनी धर्तरेवयल्यो देवता वा वस्तू; चवथ्या आनी पांचव्या विभागांनी अंतरिक्षांतल्या देवतांचो आस्पाव आसा. निघंटुंतल्या पयल्या तीन अध्यायांतल्या दरेका पदाचेर यास्काचें भाश्य ना. पूण चवथ्या आनी पांचव्या अध्यायांतल्या दरेका पदाचेर ताणें भाश्य केल्लें आसा.

निघंटुचेर निघंटुनिर्वचन नांवाची देवराज यज्वा ह्या दक्षिणात्य पंडितान बरयल्ली एक टिका उपलब्ध आसा. भास्करराय नांवाच्या नामनेच्या तांत्रिकान एक ल्हानसो ग्रंथ बरोवन निघंटुंतले सगळे शब्द अमरकोशाचे धर्तीचेर श्लोकबध्द केल्ले आसात.

– कों. वि. सं. मं.

## निझाम राजवंश :

एक मुसलमान घराणें. ह्या घराण्याची मुळावी व्यक्ती म्हळ्यार ख्वाजा आबिद. हो मध्य आशियांतलो समरकंद - बुखाराचो आशिल्लो. बादशाह शहाजहान हाच्या तेंपार तो हिंदुस्थानांत आयलो. दिल्लीचे गादयेर येवपाक ताणें औरंगजेबाक आदार केल्लो. औरंगजेबाच्या दरबारांत ताका खूब मान आशिल्लो. उपरांत ताणें आपलो चलो शहाबुद्दीन हाका आपोवन हाडून ताचें शहाजहानाचो प्रसिद्ध वजीर सादुल्लाखान हाचे चलयेकडेन लग्न लावन दिलें. शहाबुद्दिन हाच्या चल्याचें नांव मीर कमरूद्दीन निजामुल्मुल्क आसफजहा अशें आशिल्लें.

१६८२ सावन औरंगजेबाचे दक्षिणेचे मोहिमेंत निजामुल्मुल्क हाचो आस्पाव आशिल्लो. हाका लागून ताका दक्षिणेची बरी म्हायती आशिल्ली. मुखार १७१३ त ताका दक्षिणेची सुभेदारी मेळ्ळी. दोन वर्सां उपरांत तो माळव्याचोय सुभेदार जालो. १७१९ त सय्यद भावांनी ताचेआड कारस्थान केल्ल्या कारणान तो माळवो सोडून दक्षिणेक आयलो आनी ताणें सय्यद भावांच्या सरदारांचेर हार घालून दक्षिणेची सुभेदारी परत मेळयली. १७२२ त ताची दिल्ली दरबारांत वझीर म्हणून नेमणूक जाली. वझीर जाले उपरांत लेगीत ताणें दक्षिणेंतली सुभेदारी सोडूंक नाशिल्ली. मुखार दिल्ली दरबारांतल्या कारस्थानांक विटून तो १७२४ त दक्षिणेक आयलो. पूण बादशाहाचो सरदार मुबारिजखान हाणें ताका विरोध केल्लो. साखरखेडाक जाल्ल्या झुजांत मुबारिजखान हाका मरण आयलें. निजाममुल्मुल्क हाणें उपरांत दक्षिणेंत आपलें स्वतंत्र राज्य उबारलें.

दक्षिणेचो सुभा म्हळ्यार आतांचे विदर्भ, हैदराबाद, औरंगाबाद, बिदर, खानदेश, नासिक, नगर, सोलापूर, विजापूर, धारवाड, बेळगांव हे जिल्हे, सगळो आंध्र प्रदेश, त्रिचनापल्ली मेरेनचो तमीळ प्रांत आनी म्हैसूरचो चडसो भाग, येदो व्हड भूंय प्रदेश निजामान आपल्या शेकातळा दवरिल्लो. निजाम

आनी मराठे हांचे भितर सदांच झगडीं जातालीं. उपरांत १७२८ त बाजीरावान ताका हारोवन ताचेकडच्यान चौथाई - सरदेशमुखीचो हक्क मान्य करून घेतलो.

१७३६ त बाजीरावान माळव्याचेर जैत मेळोवन उपरांत ताणें दिल्लीचेरूय घुरी घाली. त्या वेळार बादशाहाच्या सांगण्यावयल्यान निजाम दिल्लीक गेलो आनी थंयच्यान व्हड फौज घेवन परत भायर सरलो. पूण बाजीरावान ताका भोपाळांत आडावन ताचेर परत हार घाली. ह्याच सुमाराक नागपूर, चांदा, भंडारा, वर्धा हे जिल्हे नागपूरकर भोंसल्यांनी ताचेकडच्यान जिखून घेतले.

निजामुल्मुल्क हाच्या मरणा उपरांत ताचो दुसरो पूत नासिरजंग हो निजाम जालो. ताचो भाचो मुजफ्फरजंग हाणें अर्काटाच्या चंदासाहेबाचो आनी फ्रांसेझांचो आदार घेवन नासिरजंगाआड व्हड बंड केलें. तें बंड मोडून उडोवचे खातीर जेन्ना तो दक्षिणेक वतालो तेन्ना ताच्या सैन्यांतल्या पठाणांनी ताचो खून केलो. फ्रांसेझांनी मुजफ्फरजंग हाका निजाम केलो. पूण पठाण सरदारांनी ताचोय खून केलो. उपरांत फ्रांसेझांनी निजामुल्मुल्काचो तिसरो पूत सलाबतजंग हाका निजामाचे गादयेर बसयलो.

१७५२ त फ्रांसेझांनी निजामाकडल्यान दर्यादेगेवयलो विशाखापट्टणम, राजमहेंद्री, मछलीपट्टण हे जिल्हे मागून घेतले. मुखार अर्काट प्रांतांत फ्रांसेझ - ब्रिटिशांचीं झगडीं जावन फ्रांसेझांचेर हार पडली. निजामाचो दक्षिणेंतलो शेक उणो जाला तें पळोवन मराठ्यांनी ताचेआड झूज उबारून १७६० त ताचेर हार घाली. हाका लागून अहमदनगर, बुऱ्हाणपूर, असरिगड, सोलापूर, विजापूर, दौलताबाद हे भाग मराठ्यांच्या शेकातळा आयले.

१७६२ त निजामुल्मल्काचो चवथो पूत निजाम अलिखान हाणें सलाबतजंग हाका बंदखणींत उडोवन आपूण गादयेर बसलो. १७६३ त मराठ्यांनी राक्षसभुवनाच्या झुजांत अलीखानाक हारोवन पानिपत झुजाउपरांत वगडायल्ले चडशे प्रदेश परत घेतले. मुखार ब्रिटिशांच्या आक्रमक राजकारणाक लागून निजामाची सत्ता ल्हव ल्हव उणी जायत गेली. १८००त ताणें ब्रिटीशांवांगडा कबलात केली आनी ताचें स्वातंत्र्य सोंपलें. चाळीस वर्सां राज्य केले उपरांत निजामअलीखान हाका मरण आयलें. ताचे फाटल्यान ताचो पूत सिकंदरशाह हाणें, राज्य चलयलें. हाचो पूत नासिरूद्दौला हाची राजवट सूरू जाली. ताच्या तेंपार हेदराबादेच्या राज्यांत सगळ्याक अंधाधुंदी मातिल्ली. राजा चंदूलाल हो १८०८ ते १८४३ मेरेन हैदराबादचो सर्वाधिकारी आशिल्लो. ताचें राज्यकारभारांत मात्तूय लक्ष नाशिल्लें. तो ब्रिटिशांक खोशी दवरून राज्य चलयतालो. ब्रिटिशांचे व्हड फौजेच्या खर्चाखातीर चंदूलाल हाणें निजामाकडच्यान अनंतपूर, बल्लारी, कडपा आनी कर्नूल हे जिल्हे घेतिल्ले. ताणें आपल्या मनाप्रमाण निजामाचें सैन्य उबारिल्लें. ताचेर ब्रिटिशांचो पुराय ताबो आशिल्लो. ताचो खर्च मात निजामाक करचो पडटालो. हो व्हड खर्च करपाखातीर ताणें खूब रीण काडिल्लें. पूण १८४३ त चंदूलाल हाका धांवडांवन घालो. सालारजंग हो निजामाचो मुखेल प्रधान जालो. उपरांत, ताणें राज्यांत खूब सुदारणा केली. तालुके, जिल्हे, सुभा अशे ताणें राज्याचे रितसर वांटे केल्ले. हाकाच लागून १८५७ त जाल्ल्या उठावांत हैदराबाद संस्थान वाटावलें.

१९११ त गादयेर बशिल्लो मीर उस्मान-अलीखान हो निमाणो निजाम आशिल्लो. भारत स्वतंत्र जाले उपरांत १९४८ त भारत सरकारान पोलीस कारवाय करून हैदराबाद संस्थानाचो भारतांत आस्पाव केलो. तेन्नाच्यान निजामाची सत्ता सोंपली.

– कों. वि. सं. मं.

**निपाणी :** कर्नाटक राज्यांतल्या बेळगांव जिल्ह्याच्या चिकोडी तालुक्यांतलें शार. हें शार पुणें-बेंगळूर ह्या राश्ट्रीय म्हामार्गार बेळगांवचे उत्तरेक ६४ किमी. आनी कोल्हापूरचे दक्षिणेक सुमार ४० किमी. महाराष्ट्र-कर्नाटक राज्याचे शिमेर वसलां. हांगा एक किल्लो आनी शेजराच सिद्दोजीराव निंबाळकरान १८०० वर्सा बांदिल्लो एक वाडो आसा. पेशवाईंत एका आप्पा देसाई नांवाच्या दुश्ट सरदाराचो हाचेर शेक चलतालो. १८२७ त किल्ल्या सकट पुराय निपाणी गांवांक तटबंदी करपाचो अपेशी यत्न आप्पान केल्लो. १८४१ त इंग्लिशांनी हो किल्लो आपल्या शेकातळा घेतलो. १८५४ पसून हांगा नगरपालिका सुरू जाली. हें शार म्हळ्यार तंबाकूचे बाजारपेठेचें, विडी-उद्देगाचें, तांबड्यो मिरसांगो, गोड, धान्य, गोरवां हांच्या वेपाराचें मुखेल केंद्र. मुळाव्यो आनी माध्यमिक शाळा, म्हाविद्यालयां आनी दवाखाने आदींची सुविधा हांगा आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**निबंद :** एक साहित्यप्रकार. टीप - टिपणी आनी प्रबंध हांचे जातकुळयेचो हो साहित्यप्रकार, व्याप्तीनुसार (विशय आनी आकार) दोगांयमदीं उरता. सर्वसादारणपणान कसल्याय विशयाचो सगळ्या आंगांनी विचार करून आपल्या मतानुसार थरावीक निश्कर्श काडप हें निबंद रचनेंत आस्पावता. हाचें स्वरूप विवेचनात्मक आसून, अभ्यास, चिंतन, समिक्षण आनी प्रतिपादन हे घटक मुखेलपणान निबंदाक अपेक्षीत आसतात. तर्कसंगत अशे अणभव वा अवलोकन हांचेर आदारिल्लें विचारप्रधान आनी बुद्दीक चालना दिवपी लिखाण असो निबंद रचनेचो पींड आसता.

संस्कृतांत गदय-पदयात्मक ग्रंथ लिखाणाक सदळपणान प्रबंद अशें म्हणप जाता. आधुनीक साहित्यीक परिभाशेंत संशोधनात्मक लिखाणाक प्रबंद म्हणप जाता. सर्वसादारणपणान कसल्याय विशयाचेर समग्रपणान चिंतनपर केल्लें लिखाण हें निबंद प्रकाराखाला येता. निबंद प्रकाराखातीर अमुकूच पानांची मर्यादा घाल्ली नासली तरी टिपणासारकें सामकें मोटवें गदय-लिखाण आनी मोट्या आकाराचो प्रबंध वा ग्रंथ हांचेमदीं निबंदाची व्याप्ती उरता. निबंद ह्या प्रकाराखाला प्रासंगिक वर्तमानपत्रीय लेख धरून खंयच्याय विशयाचेर विचारीक थरावयल्यान तर्कसंगत, सप्रमाण, वस्तुनिश्ठ केल्ल्या विवेचनाचो आस्पाव जाता. तर्कसंगत मांडणी, शिटूक युक्तीवाद, वेधक भाशा-शैली, प्रभावी प्रतिपादन, स्पश्ट आनी सोंपें विवेचन आनी परिणामकारक निवेदन हीं बऱ्या निबंदाचीं लक्षणां म्हूण येता.

हर्बर्ट रीडान निबंदाच्या आकारासंबंदान उलयतना म्हळां, निबंद हो ३५०० ते ५००० हे शब्दमर्यादेभितर आसचो. ३५०० शब्दांभितर जो निबंद आसता तो रूप-रेखा कसो जाता आनी ५००० शब्दांपरस चड आशिल्लो निबंद हो प्रबंद जाता. पूण निबंदाचेर शब्दांचें बंधन घालप बरोबर न्हय.

निबंदाक लॅटीन भाशेंत 'एग्गीयर', फ्रँच भाशेंत 'एसाय', इंग्लीश भाशेंत 'एसे' अशीं नांवां आसात. अस्तंती साहित्यांत निबंद हो लिखाण

– प्रकार सोळाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक उदेलो. मायकल द मॉन्तेन ह्या फ्रेंच लेखकान इ. स. १५८० त आपलीं दोन पुस्तकां उजवाडावन 'एसाय' (Essai) हो प्रकार फ्रेंच भाशेंत रूढ केलो.

मॉन्तेनाचो हो 'एसाय' दिसपाक ल्हान स्वरुपाचो आसा. विचारयुक्त अणभव सांगपाखातिरूच ताणें हो प्रकार हाताळ्ळो आसूंक जाय. तो म्हण्टा, 'हांवें स्वताकूच स्वतानूच रेखाटपाचो ह्या प्रकारांत यत्न केला.' मॉन्तेन - प्रणीत निबंदांत लेखकाच्या आत्माविश्कराराक वा आत्मनिश्ठेक प्राधान्य आशिल्लें.

सोळा-सतरा वर्सां उपरांत फ्रांसीस बेकन हाणें हो प्रकार इंग्लिशींत हाडटना ताचें मूळ स्वरूपूच बदलून घेतलें. विचार आनी अणभवदर्शन हांकां सारकेंच स्थान आशिल्लो मॉन्तेनाचो 'एसाय' ताणें विचारनिश्ठ करून आनी आंवळून इंग्लिशींत 'एसे' (Essai) ह्या नांवान हाडलो. ताका लागून तो विचारांचे नदरेन चड वस्तुनिश्ठ, गंभीर आनी अलिप्त प्रवृत्तीचो जालो. वैयक्तीक अणभव सांगचेपरस अणभवांतले विचारीक परिपाक ताणें एसेंतल्यान मांडले. ताका लागून अणभवदर्शनाच्या आंगान व्यक्त जावपी मनस्थिती आनी व्यक्तीवैशिश्टां एसेंतल्यान कुशीक काडलीं.

उपरांत १६६८ वर्सा 'अब्राहम काडले' हाणें कांय 'एसे' उजवाडायले. मॉन्तेनाचो एसाय ताणें, तातूंतल्या व्यक्तीत्वां आनी व्यक्तीनिश्ठेसयत इंग्लिशींत हाडलो. ताका लागून तो बेकन पद्दतीपरसूय वेगळो थरलो. एसेची ही दुसरी धारा इंग्लिशींत सुरू जाली. उपरांत निबंदांत खूब बदल जाले. विशयाचें वर्गीकरण, भाशेची तरा निर्माण जावन एसेचो खुबश्या आंगांनी विकास जालो. अशें आसलें तरी बेकन पद्दतीची धारा विचारनिश्ठेचे दिशेन वाटचाल करीत गेली आनी काडले पद्दतीची धारा 'पर्सनल एसे' म्हळ्यार अणभवांक प्राधान्य दिवपाचे दिशेन वाटचाल करीत उदरगतीक पावली.

निबंदाचे साबार पांवडे पळोवंक मेळटात. अठराव्या शेंकड्यांत स्टील ऑडिसनाचो, काळाक म्हत्व दिवपी 'पिरिऑडिकल एसे' हो पयलो म्हत्वाचो पांवडो. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवातीच्या काळांतलो (१८२०) 'पर्सनल एसे' हो दुसरो म्हत्वाचो पांवडो. हाचें श्रेय चार्ल्स लॅम्बाक वता. उपरांत 'पर्सनल एसे' स्वतंत्रपणान साहित्याच्या मळार उदरगतीक पावलो. ताचो आनी एसेचो संबंद प्रस्थापीत करपांत कांय अर्थ ना. कारण त्या दोगांयचे हेतूच बदलत गेले. एक विचारीक वाङमयाचो भाग जालो आनी दुसरो 'हांव' चे घुडयेखाल रोमॅंटीक मोगाळ ललीत वाङमयांत रुजू जालो.

इंग्लिशींत मॉन्तेनाची परंपरा चलोवपी अब्राहम काडली, स्विफ्ट, लॅंब, हॅजलिट, स्टील, गोल्डस्मिथ, लिहण्ट, स्टिवॅन्सना सारके व्यक्तिप्रधान निबंदकार आसात. जाल्यार बेकनाचे परंपरेंत बॅन जॉन्सन, सॅल्डन, एडिसन, जॉन्सन, जेफ्टी, डी. क्विन्सी, मॅफाले, वॉल्टरा सारके विशयप्रधान निबंदकार आसात.

कांय इंग्लीश टिकाकारांनी 'एसे' चीं पयलीं वयलीं लक्षणां सांगल्यांत. कांय जाणांनी सगळ्या प्रकारांच्या एसेचो आस्पाव केला. कांय टिकाकारांनी बेकन पद्दतीचे एसेचो आदर्श दोळ्यांमुखार दवरला जाल्यार कांय जाणांनी चार्ल्स लॅम्बाक मनांत धरून ते वाटेन घुंवपी अशीं लक्षणां सांगल्यांत. हाका लागून इंग्लिशींत एसेचें स्वरूप निश्चीत ना.

निबंद दोन काळजांभितर संवाद सादता. हांव, म्हज्या निबंदाचो विशय. कारण म्हज्यांतल्या 'हांवा' कूच म्हजी खरी वळख पटल्या, हे मॉन्तेनाचे व्याख्येंत निबंद, दोन काळजांक उलोवंक लायता. म्हज्या निबंदांत हावूंच विशय जावन येतां आनी स्वताक स्वतानूच चित्रावपाचो यत्न करतां. हांगा मॉंतेन अणभवांतल्या आत्माविश्काराचेर भर दितना दिश्टी पडटा. एच. वॉकर हाच्या मतान निबंदाक विशयाचें बंधन ना. नखेत्रां ते धुल्ल आनी शेळो ते मनीसजात, हांचेसकट सगळे निबंदाचे विशय जावं येतात. डॉ. पु. ग. सहस्त्रबुध्दे हे निबंदाची व्याख्या करतात ती अशी – 'तर्कशुध्द रितीन केल्ली, बुद्दीक आव्हान करपी, आपले सिध्दांत विस्कटावन मांडपी, इतिहास, अणभव, अवलोकन हांच्या पांयांचेर उबारिल्ली विचारप्रधान रचना'.

मॉन्तेनाच्या एसायांनी प्रसंगाक धरून उण्या अदीक प्रमाणांत अणभवदर्शन आनी विचार विवरणाक मेकळी वाट मेळ्ळया. हो प्रकार निबंदांत वा लघुनिबंदांत खऱ्या अर्थान आस्पावंक शकना. पूण तो कांयसो मुळाव्या स्वरुपाच्या लघुनिबंदावटेन घुंवता. कारण आयच्या नितळ आनी विकसीत स्वरूपाच्या सौंदर्यात्मक वा ललीत वाङ्मयीन जाणविकायेन ताणें तें बरप करूंक ना, अशें जाणकारांचें मत आसा. त्या काळांत तें जावपूय शक्य नाशिल्लें. ताच्या अणभवांक नीट असो घाट प्राप्त जाल्लो ना. जायते फावटीं ते विस्कळीत दिसतात.

एसे आनी पर्सनल एसे ह्या दोनूय प्रकारांनी अणभव, देखी येतातूच. पूण तांचें स्वरूप वेगळें आसता. एसेंत विचारांक म्हत्व आशिल्ल्यान ते विचार वस्तूनिश्ठ कशे जातले, तर्कसंगत कशे उरतले, ते व्यक्त करतना तातूंत तटस्थताय, अलिप्तताय कशी येतली हांची खेरीज दक्षताय घेतात. विचारांक म्हत्व आशिल्ल्यान तातूंतले अणभव आनी देखी निबंदांत साधनीभूत उरतात.

पर्सनल एसेंत विचारांक गौण स्थान प्राप्त जालां. चड करून ते विचार अणभवांतल्या चिंतनाच्या पांवड्याचेरूच उरले. तशे उरिल्ल्यान अणभवांचो एक वांटो म्हणून तांचें अस्तित्व उरता. एसे वस्तूनिश्ठ आसता जाल्यार पर्सनल एसे हो व्यक्तीनिश्ठ जाता. वस्तूनिश्ठ निबंदांत कसल्याय विशयासंबंदान विचार व्यक्त केल्ले आसतात, जाल्यार व्यक्तिनिश्ठ विशय हो निमित्त जावन येता. विशयाच्या निमतान 'हांव' चे अणभव उक्तातायल्ले आसतात. हे अणभव मेकळेपणान उक्तायल्ल्यान तातूंत शेवटाक 'हांव' व्यक्त जाता. म्हळ्यार लघुनिबंदाच्या शेवटाक विशय 'हांवूच' आसता. तशें पळोवंक गेल्यार व्यक्तिनिश्ठेक वस्तूनिश्ठेपसून पुरायपणान वेगळी करूंक जावंचिना. कारण दर एका लिखाणांत लेखकाचे व्यक्तीचो प्रभाव थोड्या-भोव प्रमाणांत पडपाचो संभव आसताच. तेखातीर जावं निबंदांत वा हेर खंयच्याय लिखाणांत हे दोनूच घटक एकामेकांत भरसून गेल्ल्याचें जाणवता.

'ललीत निबंद' हो शब्दप्रयोग ज्या अर्थान आयज आमकां अभिप्रेत आसा, त्या अर्थान १९५० उपरांत चड प्रमाणांत मराठी साहित्यांत संवकळीचो जालो. आधुनीक मराठी साहित्यांत जेन्ना नवसाहित्यान मोडण घेतलें, तेन्ना ताका आयच्या रुढार्थान वापरपाक लागले. आयज 'ललीत निबंद' ह्या साहित्यप्रकारांत १९५० पयलीं जाका लघुनिबंध, प्रवास लेख, यादी, व्यक्तिचित्रणां, ललीतलेख अशें म्हण्टाले हे सगळे प्रकार हाचेखाल येतना दिसतात.

निबदाचे पांच प्रकार सांगल्यात. १) वर्णनात्मक २) कथनात्मक ३) चिंतनात्मक ४) कल्पनात्मक आनी ५) चरित्रात्मक वा आत्मचरित्रात्मक.

निबंदाचे हे प्रकार आमचे सोयीखातीर केल्ल्यान, हे प्रकार एकामेकांपसून

पुराय तरेन वेगळे नासून तांचीं पाळा - मुळां एकामेकांत भरसल्लीं दिश्टी पडटात. ताका लागून निबंदाक मुखेलपणान तीन वर्गांनी विभागून घाला. १) कथनात्मक(Narrative) २) वर्णनात्मक(Descriptive) ३) चिंतनात्मक.

कथनात्मक निबंदांत काल्पनिक घडणूक, पौराणिक आख्यान, आत्मचरित्रात्मक वृत्तांत वा इतिहासिक, प्रतिकात्मक, काल्पनिक तशेंच हेर प्रकाराच्या काणयांचो उपयोग करतात. वर्णनात्मक निबंदांत प्राकृतिक देखावो वा मनीस जिणेसंबंदान खंयचेय घटनेचेर वर्णन आसता. चिंतनात्मक निबंदांत मनीसजिणेच्या एकंदरीत कार्याचें आनी घडणुकांचें दर्शन घडटा. पूण चिंतनात्मक निबंदांत लेखक आपली प्रवृत्ती, सभाव वा परिस्थितीक धरून भावनांचें रेखाटन करता. तशेंच, विचारांकडेन सुसंगती सांदून, वाचप्यांच्या काळजाकडेन संवाद करता आनी तांचे बुद्दीक धार चडयता.

कसलोय विशय सोंपेपणान कसो मांडपाक येत, हाचेर लिखाणाची व्याप्ती आदारून आसता. ताका लागून टिपो-टिपणां आनी प्रबंद-ग्रंथ ह्या दोगांयमदीं उरपी निबंद लिखाणांतूय थरावीक व्याप्ती मेळना. कांय निबंद ल्हान जाल्यार कांय लांब आसूं येतात. लिखाणाची व्याप्ती ताचे फाटल्या उद्दीश्टांचेर आदारून आसता. टिपो-टिपणां, निबंद, प्रबंद दर एक लिखाण-प्रकाराचो घाट, लिखाण विशयाचे भुमिकेचेर आदारून आसता.

आधुनीक भारतीय भाशांनी आधुनीक निबंदाचो प्रवेश इंग्लीश आनी हेर युरोपी भाशांवरवीं १९ व्या शेंकड्यांत जालो. बुद्दीवाद, तर्कसंगत, शास्त्रीय विवेचन आनी लौकीक भुमिका ह्या मुल्यांचेर निबंदाची बुन्याद उरिल्ल्यान भारतीय प्रबोधनाखातीर निबंद हो प्रकार भारतीय प्रबोधनकारी विचारवंतांनी प्रबोधनाखातीर लागीं केलो. भारतीय भाशांतल्या निबंदकाराचें निबंद-लिखाण पळयल्यार हाची प्रचिती येता.

कोंकणी निबंदाचो उद्भव अशाच स्वरुपाचो. कोंकण, कोंकणी भास आनी कोंकणी संस्कृतायेची वळख आनी तांक सिध्द करतना, शणै गोंयबाबान जायतें इतिहासीक आनी हेर स्वरुपाचें ललीत लिखाण रचलें. तशेंच गोंयची सुटकेचळवळ, ओपिनियन पोल आनी कोंकणी चळवळी वेळार केल्लें हेरांचें लिखाण ह्या गजालींची गवाय दिता. शणै गोंयबाबाचो 'गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक' हो इतिहासीक, वस्तुनिश्ठताय आशिल्लो प्रबंदात्मक निबंद पळोवंक मेळटा. तशेंच 'कोंकणी भाशेचें जैत', 'ऐन वेळार', 'कोंकणी विद्यार्थ्यांक' ह्या सारक्या ललीत निबंदांकडेन धुंवपी लिखाणाचो हांगा उल्लेख करूं येता. त्या काळांत लोकजागृताय आनी नवे विचार समाजांत पातळावन नवे समाजरचनेची बुन्याद घालपाच्या हेतान कोंकणींत साबार निबंदांची रचणूक जाली.

– प्रकाश पर्येकार

पूरक नोंद : कोंकणी साहित्य.

**निमाडी भास आनी साहित्य :** मध्य प्रदेशांतल्या निमाड वाठारांत उलयतात ती एक भास. डॉ. ग्रियर्सन हो तिका आपल्या ग्रंथांत राजस्थानीचें दक्षिणी रूप मानता. पूण डॉ. कृष्णलाल हंस हाणें तिचो आस्पाव अस्तंते हिंदीचे बोलींत केला. इ. स. १५ व्या शतमानाच्या निमाणेसावन हे बोलीचें साहित्य मेळटा. ताचे आदींय ही बोली उलयताले, पूण त्या काळांतली साहित्य रचना मेळना. निमाडींतली सगळ्यांत पोरणी रचना ब्रह्मगिरी हे कवीची. इ.स. च्या १६ व्या शतमानांतलो संत सिंगा हो निमाडीचो एक नामनेचो लोककवी. ताचे कवितेचो एक नमुनो असो-

निरगुन ब्रह्म है न्यारा, कोई समजो समजनहारा ॥
खोजत ब्रह्म जलम सिरानो, मुनिजन पार न पावे ॥
खोजत - खोजत सिवजी थाके, एसो अपरंपारा ॥

**अर्थ** - निर्गूण ब्रह्म हें आगळें वेगळेंच. जाका समजूंक जाय ताणें समजुंचें. ब्रह्माचो सोद घेतां घेतां जल्म सोंपलो. मुनीज्जनांकय ताचो पत्तो लागलोना. ब्रह्माचो सोद लायतां लायतां शिव लेगीत थकलो. अशें तें अपरंपार आसा.

संत रंकनाथ हो इ. स. च्या १८ व्या शतमानांतलो निमाणो निमाडी कवी. ताचे कवितेंत ९० % संस्कृत शब्द जाल्यार १० % अरबी-फारशी उतरां मेळटात. निमाडी बोलींत राजस्थानी आनी गुजराती शब्द पयले खेपे रंकनाथाचे कवितेंत मेळटात. संत सिंगा आनी रंकनाथ हांचेमदीं दलूदास आनी धनजीदास आदी कवीय निमाडांत जावन गेले.

निमाडीच्यो कांय गदय रचनाय मेळटात. तातूंत ८४% संस्कृत उतरां मेळटात. ह्या काळांत (१८ वें शतमान) गदय आनी पदय दोगांचेंय रूप अस्तंती हिंदीचें मेळटा. मुद्रीत आनी अमुद्रीत अशा दोनूय रुपांनी निमाडी साहित्य मेळटा. दृढ उपदेश, सिंगाजीकी परिचरिया, सलीता नौ याव, श्रीरामविनय, रंकनाथ पदावली, दीनदास पदावली, अनायी संप्रदायाचें भजन हीं निमाडीचीं ल्हान व्हड मुद्रीत पुस्तकां. संत सिंगा ह्या कवीन भागवत महापुराण, द्वादस स्कंद, महिम्नस्तोत्र, पद्रतीत, आठवार, सिंगाजीका आतम ध्यान, जाप, नराज आदी ल्हान व्हड ग्रंथ बरयल्यात. संत सिंगाचो शिश्य दलूदास हाणें 'दलूदासके भजन' आनी 'सिंगाजीकी परचुरी' हीं दोन पुस्तकां बरयलीं. निमाडीचो सगळ्यांत व्हड पदयग्रंथ म्हळ्यार हालू नांवाच्या कवीन बरयल्लें अठरा पर्व महाभारत. निमाडी भाशेंत धनजीदासवि हाणें अभिमन्यूका ब्याह, सुभद्रा हरण, लीलावती, सेठ तारनसा महाजनकी कथा हीं पुस्तकां बरयलीं. जाल्यार भाहदास हाणें नरसिंग कथा, फकीरनाथ हाणें गऊलीला, धिलनी चरित्र, कथामेती लीला, कथा बिंदा हीं पुस्तकां बरयलीं. इ.स. च्या १९ व्या शतमानाच्या निमाणे मेरेन निमाडी भाशेत जें साहित्य निर्माण जालें तें पदय आनी संतरचीत आशिल्लें.

**निमाडीचें लोकसाहित्य** - ह्या साहित्याचें विभाजन अशें आसा - १) संस्कार पदां - हातूंत जल्मोत्सव, मूंज, लग्न आदी शुभ प्रसंगांचीं पदां येतात. २) ऋतूगितां - हातूंत कजली (श्रावण म्हयन्यांचीं पदां), शरद ऋतू, फाग आनी बारहमासा हीं पदां येतात. ३) जिणेगितां - कुटुंबिक, समाजीक आनी धर्मीक स्थितीचेर उजवाड घालपी गितां. ४) धर्मीक गितां - हातूंत देवी गोधन, तीर्थयात्रा, गजगौर हांचीं गितां आनी भजनां येतात. ५) इतिहासीक गितां - हातूंत समस्त लोकगाथांचो आस्पाव जाता. ६) संकीर्ण गितां - हातूंत प्रकृतिवर्णन, भुगोलीक चित्रण, भुरग्यांलीं गितां आदी प्रकार येतात.

**निमाडी लोककथा** - निमाडी भाशेंत मोनजात, सुकणीं, पऱ्यो, अप्सरा, जादू, साधू, व्रतां, वीरत्व आनी इतिहास आदी विशयांच्यो जायत्यो लोककथा आसात. ह्या कथांनी सैली सात (शीतला सप्तमी) हिची कथा आसा. भाद्रपद कृष्ण सप्तमीक निमाडांत बायलो सैली सातवचें व्रत करतात. त्या दिसा शितला मातेची पुजा करप आनी शेळें अन्न खावप असो नेम आसा.

निमाडी भाशेंत म्हणी आनी ओपाऱ्योय खूब आसात. तांचेर बऱ्याच

प्रमाणांत हिंदीचो प्रभाव दिश्टी पडटा. तातूंतलो एक उखाणो असो -

अल्लो सो मनीराम, अल्ली बडी पुछ,

ऊ गयो मनीराम, पकड लाओ पूछ ।

**अर्थ** - धाकटुलो मणिराम ताची लांबूच शेंपडी, मणिराम पळून गेलो, पूण शेपडेंक धरून ताका परत हाडलो. हाचें उत्तर सूय आनी दोरो.

- कों. वि. सं. मं.

**नियोग :** पुर्विल्ल्या भारतांतली एक समाजीक प्रथा. कोणाय बायलेचो घोव मेल्लो आसत वा ताका कसलेंय वायट दुयेंस आसल्यार, तो संन्यासी वा पळून गेल्लो आसल्यार, वा हेर कसल्याय कारणांक लागून वंश खंडीत जावपाचो प्रसंग आयल्यार घोवाची वा घोव मेल्लो आसल्यार जाणट्या मनशांची संमती घेवन ते बायलेक आपल्या देरावांगडा वा नात्यांतल्या हेर व्यक्तीकडेन वा तपस्वी ब्राह्मणाकडेन विधीपुर्वक शरीरसंबंद दवरून पुत्राची प्राप्ती करून घेवं येता. हे प्रथेंत पुत्रप्राप्तीखातीर घोवाबगर हेर व्यक्तीची नेमणूक जाल्ल्यान हे प्रथेक 'नियोग' अशें नांव मेळ्ळां.

'अपुत्रभ्रातृपत्नीपुत्रार्थं नियोजनम्'

मेल्ल्या भावाचे, पूत नाशिल्ले बायलेक पूत दिवपाखातीर जाल्ली नेमणूक म्हळ्यार नियोग अशीय एक नियोगाची व्याख्या मेळटा. हे व्याख्येप्रमाण नियोगांत फकत देरूच ही नेमणूक केल्ली व्यक्ती आसता.

नियोग ह्या शब्दाचे आज्ञा, नियुक्ती आनी कर्तव्य हे तिनूय अर्थ हातूंत येतात. घोव आशिल्ले बायलेक घोवान आनी घोव नाशिल्ले बायलेक जाण्टया मनशांनी पुत्रोत्पादनाची आज्ञा करची वा तिणें तांची परवानगी घेवंची. उपरांत तिची आनी हेर दादल्याची नियुक्ती करची. आनी उपरांत त्या दादल्या-बायलेन कर्तव्य भावनेन समागम करचो अशी पद्दत आशिल्ली.

पूत नाशिल्ले बायलेक 'क्षेत्र' म्हळ्यार जमीन, तिच्या पूत नाशिल्ल्या घोवाक 'क्षेत्री' आनी नेमणूक केल्ल्या दादल्याक 'बीजी' मानताले. बीजी म्हणून देराची आनी देर नासत जाल्यार घोवाचे वटेन सपींड, एका गोत्राचो, सप्रवर, एकेच जातींतलो वा उंचेले जातींतल्या मनशाची नेमणूक करताले. गुणांनी बरो तसोच कुडीन निरोगी आशिल्ल्या मनशाचीच बीजी म्हणून नेमणूक जाताली. नियोगाक ते बायलेची संमती घेवप गरजेचें मानताले. नियोगापयलीं ती बायल व्रतस्थ आसताली. देव, ब्राह्मण, पितर आनी अतिथी हांकां जेवण वाडटकच, जाण्टे मनीस नियोगाचो विचार तांकां सांगून बीजीची नेमणूक करताले.

बीजीन रातीचें वा ब्राह्म म्हूर्त आसतना म्हळ्यार फांतोडेर तिचेकडेन वचचें, विलासाची इत्सा जावंची न्हय म्हणून ताणें आंगाक तूप वा तेल सारोवचें, संभोग करतना तिचेकडेन उलोवप वा चुंबन घेवप वा आलिंगन घेवप हांचेर नियोगांत बंदी आसा. दर खेपे ऋतूस्नात जालेउपरांत फकत एकदांच हे पद्दतीन गर्भ उरमेरेन संभोग करचो. तशेंच जल्मल्लें भुरगें मेलें, अपंगूळ वा चली आसल्यार परतून नियोग करचो, पूत जातकूच दोगांनीय सून आनी मांव ह्या नात्यान वागचें अशे नियोगाचे नियम आसात.

नियोग प्रथेचो प्रारंभ ऋग्वेदकाळांतूच जाल्लो. एके पूत नाशिल्ले विधवा बायलेन पुत्रप्राप्तीखातीर आपल्या देराकडेन बायलेभाशेन संबंद दवरिल्ल्याचो उल्लेख ऋग्वेदांत आसा. नियोग प्रथेचो प्रवर्तक म्हणून मनून वेन राजाचो उल्लेख केला. (मनु. ९.६६). महाभारतांत नियोगाचीं खूब उदाहरणां आसात. नियोगान एक, दोन वा केन्ना केन्नाय तीन पूत प्राप्त करपाक परवानगी आसताली. नियोगाचे पयलीं कसलीय कबलात जाल्ली नासत जाल्यार, जाल्लो पूत हो क्षेत्रीचो पूत थारता, तशेंच ताका क्षेत्रीची संपत्त, गोत्र आनी पींडदानाचो आनी वंश चलोवपाचो अधिकार मेळटा. जावपी भुरगो हो दोगांचोय अशी कबलात जाल्यार वा बीजीक स्वताचे बायलेपसून पूत नासल्यार, तो पूत बीजी आनी क्षेत्री ह्या दोगांयचो थरता. ताका दोगांच्याय संपत्तीचो हक्क मेळटा. क्षेत्रीन क्षेत्रज पूत तयार करून घेतकूच ताका औरस पूत जालो जाल्यार अशा भुरग्यांनी आपापल्या बापायची संपत्त घेवंची. पूण औरस पूतान क्षेत्रज पुताक आपल्या वांट्यांतलो पांचवो वा सवो वांटो दिवंचो अशें मनून सांगलां.

आंकवार चली, पूत आशिल्ली बायल, दुयेंत बायल, पिशी बायल, घोवाच्या मरणान चड दुखेस्त जाल्ली, भुरगें जावंक शकना अशी जाण्टी बायल वा गुरवार बायलेक नियोगाचो अधिकार नाशिल्लो. नियुक्त करूंक नाशिल्लो दादलो, गरज नासतना नियुक्त केल्लो, नियुक्त केल्लो पूण विलासाची वासना आशिल्लो आनी पूत जातकूच लेगीत गमन करपी देर-भावजय आप्तसंभोग करपी थरतात.

नियोग म्हळ्यार पुनर्विवाह न्हय. उरफाटें, बायलेन भुरग्याखातीर दुसरे खेपे लग्न जावन परक्या कुळांत वचचें न्हय हे खातीर नियोगाचो पर्याय आशिल्लो.

नियोग हो कांय जाणांनी धर्मसंमत मानला जाल्यार कांय जाणांनी नियोग हो धर्मा आड आसा अशें मानलां. ऋग्वेद, गौतम - वसिष्ठ हांचीं धर्मसुत्रां, स्मृती, पुराणां, अर्थशास्त्र, महाभारत ह्या वाङ्मयांतल्यान नियोगाक मान्यताय आशिल्ल्याचें दिसता. धृतराष्ट्र, पंडू आनी विदूर हांचो जल्म नियोग पद्दतीनूच जाल्लो.

तशेंच, आपस्तंब धर्मसुत्राच्या म्हणण्याप्रमाण नियोगाचे वतीन पुत्रप्राप्ती करून घेवपी दांपत्य नरकांत वता. कारण नियोगी दादलो हो परकोच आसता आनी परक्या दादल्यावांगडा संबंद दवरप हें पाप. आपस्तंबाप्रमाण क्षेत्रज पुत्र हो नियोगी दादल्याचोच पूत. म्हणून त्या पुताक ताचे आवयच्या घोवाखातीर कसलेंच धर्मीक कृत्य करपाचो अधिकार मेळना. बौधायनानूय अशेंच मत मांडलां.

कांय धर्मशास्त्रकारांनी, नियोग हो वैकल्पिक आशिल्लो वा शास्त्रांनी तो फकत शुद्रांखातीरूच सांगिल्लो अशें म्हळां. अशे तरेन धर्मशास्त्रकारांनी नियोगाक विरोध केल्ल्यान आनी लोकांचे नितीनिश्ठेक अनिश्ट दिशिल्ल्यान नियोगप्रथा उणी जावन उपरांत ती बंद जाली. वैजकी शास्त्रा वरवीं, आतां संतत प्राप्ती जावपाचे वेगवेगळे उपचार उपलब्ध आशिल्ल्यान, नियोग प्रथा काळाभायरी जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**निरंकारी संप्रदाय :** शिखांचो एक संप्रदाय. ह्या संप्रदायाचे लोक शुध्द निरंकाराची उपासना करतात. देखून तांकां निरंकारी अशें नांव पडलें. पेशावरचो देयालदास खत्री हो ह्या संप्रदायाचो संस्थापक.

निरंकाराचे उपासक दर म्हयन्याचो पयलो दीस पवित्र मानतात आनी त्या दिसा ग्रंथसाहेबाचो पाठ करतात. रावळपिंडी हें ह्या संप्रदायाचें मुखेल केंद्र. देयालदासाच्या मरणाउपरांत ताचो भाव १८७० त त्या पिठार बसलो. हे लोक गुरू नानकाक चड भजतात.

- कों. वि. सं. मं.

**निरंजनमाधव :** (जल्म : १७०३, कंची, कर्नाटक; मरण : १७९०). एक मराठी भक्तकवी आनी मुत्सद्दी. ताचें मूळ नांव बनाजी आशिल्लें. तशेंच माधवनंदन, कविनिरंजन, निरंजनयोगी ह्याय नांवांनी ताका वळखताले. ताच्या बापायचें नांव माधव आनी आवयचें नांव भागिरथी आशिल्लें. तो विश्वामित्रगोत्री देशस्थ ऋग्वेदी ब्राह्मण आशिल्लो.

पयल्या बाजीराव पेशव्याच्या काळांत, बनाजीन बाजीरावाच्या आश्रयाक रावन लक्ष्मीधर बर्वे नांवाच्या एका पंडिताकडेन संस्कृताचें अध्ययन केलें. लक्ष्मीधरान ताका महामंत्राचो उपदेश करून दत्तसंप्रदायाची दिक्षा दिली. उपरांत बाजीरावान, तंजाउर प्रांती वकील म्हणून ताची नेमणूक केली. ह्याच काळांत ताणें नाट्य, शिक्षण, व्याकरण ह्या शास्त्रांच्या अध्ययनावांगडा संस्कृत, मराठी, कन्नड, हिंदी, गुजराती ह्या भाशांचोय अभ्यास केलो.

'सांप्रदाय परिमळ' ह्या निरंजनमाधवाच्या ग्रंथांत ताची गुरूपरंपरा अशी आसा - दत्त-विमलानंद-ब्रह्मानंद-विमलानंद-सच्चिदानंद-ब्रह्मानंद-लक्ष्मीधर-निरंजनमाधव. हो ग्रंथ ताणें आपले बायलेक, गुरूपरंपरेची म्हायती दिवपाखातीर रचलो अशें म्हण्टात. हो ग्रंथ निरंजनाचें आत्मचरित्र म्हणून प्रसिद्ध आसलो तरी कांय अभ्यासकांच्या मतान तें निरंजनाचें चरित्र नासून, ताच्याच निरंजनदास नांवाच्या शिश्यान तें बरयलां.

निरंजनमाधव हाणें बरयल्ल्या ग्रंथांनी कृष्णानंदसिंधु, चिद्‌बोधरामायण, सुभद्राचंपू, ज्ञानेश्वरविजय, वृत्तमुक्तावली, वृत्तवनमाला आनी वृत्तावतंस ह्या ग्रंथांचो आस्पाव जाता.

कृष्णानंदसिंधु हो ग्रंथ आयज उपलब्ध ना. पूण सांप्रदाय परिमळ ह्या ग्रंथांत ताचो उल्लेख आयला. 'चिद्‌बोधरामायण' हो ग्रंथ सात कांडांचो आशिल्लो पूण सदया ह्या ग्रंथाचें फकत बालकांडूच उपलब्ध आसा. 'ज्ञानेश्वरविजय' ह्या ज्ञानेश्वराच्या चरित्राचेर बरयल्ल्या काव्याचे १७ अध्याय आनी १०३८ श्लोक आसात. 'सुभद्राचंपू' हें सात सर्गांनी बरयल्ल्या आख्यानकाव्यांत अर्जून सुभद्राच्या लग्नाची कथा आयल्या.

'श्रीरामकर्णामृत' हें स्तोत्र १११ श्लोकांचें. तशेंच 'मंत्ररामचरित' आनी 'निर्वोष्ठ राघवचरित' हें स्तोत्र आनी 'अद्वैतबोध', यतिनृपतिसंवाद', 'वसिष्ठसुमशर्मासंवाद', 'श्रीभार्गवरामजन्मचरित्र' हीं ताचीं कांय स्फूट प्रकरणां आसात. शंकराचार्याच्या ग्रंथांचेर ताणें 'अद्वैतामृत' आनी 'बोधप्रदीपिका' हे टिकाग्रंथ बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**निरंजनीसाधू :** एक जात. हे लोक राजस्थानांत मेळटात. नागोर जिल्ह्यांतलो एक जाट हरिदास हो तांचो गुरू. ताणें घालून दिल्ल्या नेमाप्रमाणूच ते वागतात. ह्या लोकांक निरंजनी हें नांव कित्याक मेळ्ळें तेविशीं एक आख्यायिका सांगतात ती अशी - एक फावट हरिदासान एका गाबण्या हरणाची शिकार केली. उपरांत ताका खूब पश्चाताप जालो. तेन्ना ताणें आपल्या आंगावयले कपडे पिंजून उडयले आनी तो नागडोच निरंजनाचे उपासनेखातीर रानांत गेलो. थंय ताणें बारा वर्सां निरंजनाची उपासना केली. देखून ताच्या अनुयायांक निरंजनी अशें म्हणूंक लागले.

हरिदासान बावन शिश्य केल्ले. दरेका शिश्यान आपली एकेक शाखा निमार्ण केल्ली. हे जातींतले कांय लोक ब्रह्मचारी आसतात, जाल्यार कांय गृहस्थ. ब्रह्मचारी लोकांक, निहंग साधू अशें म्हण्टात आनी ते आपणाकडेन सदांच खाकी गोदडी बाळगितात. ते मांस, नुस्तें, कांदो, लसूण खायनात. तांच्यो बायलो धवे घागरे वापरतात. हाचे वयल्यानूच तांची वळख पट्टा. ते मेळ्ळ्या मनशांक लासतात.

- कों. वि. सं. मं.

**निरपणस :** (Breadfruit) मोरासिआ कुळांतले वनस्पतींकडेन लागींचो संबंद आशिल्ल्या ह्या रुखाक आर्टकार्पस कॉम्युनिस वा आ. इंसिसा आनी आ. आल्टिलिस ह्या नांवांनी वळखतात. ह्या रुखाची लागवड चड करून उश्ण प्रदेशांनी जाता.

वाड जाल्ल्या निरपणसाची उंचाय सादारणपणान १२ ते १८ मी. इतली आसता. ह्या रुखाचीं पानां चकचकीत पाचवीं, रूंद आनी कात्र्या देगांची आसतात. नर आनी मादी फुलां एकाच फांट्यार पूण वेगवेगळ्या देठांचेर येतात. साबार मादी फुलां एकठांय आशिल्ल्यान, तें एकूच व्हड फूल आशिल्ल्याचो भास जाता. उपरांत मादी फुलांपसूनच निरपणसाचें फळ तयार जाता. सादारणपणान, जून जाल्ल्या फळाचो व्यास १० ते २० सेंमी. इतलो आसता. ह्या फळाचो रंग पाचवोचार वा पाचवो हळदुवसार आसता, पूण भितल्लो गर धवसो आसता.

निरपणसाची लागवड आदल्या काळा सावन मलयाच्या जुव्यां - पुंजुल्यांत जाताली आनी पुर्विल्ल्या काळांत ताचो विस्तार उश्ण, दक्षिण पॅसिफिक प्रदेशांत जालो, असो समज आसा. उपरांत वसणुकेच्या तेंपार युरोपी लोकांनी गुलामांखातीर म्हणून ताची लागवड वॅस्ट इंडीसांत केली. सगळ्यांत सुर्वेक तांणी जमायकांत ह्या रुखाची लागवड केली. पूण गुलाम लोकांक केळ्यांची आवड चड आशिल्ल्यान, निरपणसाक थंय फावो तितलें म्हत्व मेळ्ळेंना. ट्रेक्युलिया आफ्रिकाना हो थळावो निरपणसाचो रूख मध्य आफ्रिकेंतलो. भारतांत निरपणसाचो रूख सुर्वेक हॉलंडी लोकांनी हाडलो असो समज आसा.

निरपणस हो फळाभाशेन आसलो तरी तें हेर फळांसारकें फळ न्हय आनी तातूंत पिठूळसाण चड आशिल्ल्यान तें भाजून वा शिजोवन खावंचें पडटा. विंगडविंगड वाठारांनी तें वेगवेगळे रितीन शिजोवन खातात. कांय लोक हें फळ सुकोवन ताचें पीठ करतात आनी ताच्यो भाकऱ्यो करून खातात. वॅस्ट इंडीस आनी अमेरिकेच्या मॅक्सिकोसावन ते ब्राझीलामेरेनच्या प्रदेशांत निरपणसाचे रूख दारादारांनी दिश्टी पडटात. हांगाच्या बाजारांतूय ताका बरें मोल मेळटा. पॅसिफिक जुंव्यांचेर वेगवेगळ्या प्रकारच्या निरपणसांची लागवड जाल्ली आसा. भारतांत अस्तंत दर्यादेगांनी म्हळ्यार कोंकण, गोंय आनी कारवाराक हाची बरी वाड जाल्ली आसा. गोंयच्या खुबश्या पोरसांनी हें झाड सर्रास दिश्टी पडटा. निरपणसाची भाजी, भर्त आनी फोडी तळून खातात. निरपणसाचीं कापां, म्हानां करतात.

दक्षिण पॅसिफिक वाठारांनी ह्या रुखाचे भितल्ले केंसाळ सालीसावन कपडो तयार करतात. कांयकडेन हाच्या लाकडाचो उपेग व्हडीं वा फर्निचर करपाखातीर जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**निरांजन :** दिवो दाखोवपाखातीर तशेंच ओंवाळपापासत वा आरतीपासत जाचो वापर करतात अशें एक दिपपात्र. देवाचे पुजे वेळार

आनी व्यक्तीच्या अभिश्ठ चिंतना वेळार मंगलकारक दिवो ओंवाळपाची पद्दत आसा.

सोबीत करप आनी सोबेचें प्रदर्शन ह्या अर्थाच्या 'निरांजन' ह्या संस्कृत शब्दावयल्यान 'निरांजन' हें उतर आयलां. राजान करपाच्या विधींमदलो 'नीराजन' वा 'नीरांजना' नांवाचो एक विधी कालिकापुराण, अग्नीपुराण (२६.८.३१), कौटिलीय अर्थशास्त्र (२.३०.३२) ह्या ग्रंथांनी सांगला.

राजा लोक झुजाक वचचे पयलीं वा आश्विन म्हयन्यांत हत्ती, घोडे, बावटो, सैन्य हांची पुजा करून ताका ओंवाळटाले. ह्या विधी वेळार दिवो ओंवाळप वा आरती ओंवाळप हे गजालीक म्हत्व आशिल्ल्यान त्या अर्थान निरांजन हो शब्द पुराण वाङ्मयांत वापरांत आयलो.

निरांजनांत एका पासून सातां मेरेन वाती लायतात. कांय वेळार निरांजनांत कापूर घालून देवाक निरांजन ओंवाळटात.

कसलेच मंत्र म्हणिनासतना वा कसलेच तरेचें कर्म केले बगर शंकराक फकत निरांजन ओंवाळ्ळें जाल्यार लेगीत ती पुजा पुराय जाता अशें स्कंद पुराणांत म्हळां. देवाकुडींत वा तुळशी वृंदावनामुखार निरांजन पेटोवन दवरपाची पद्दत हिंदू मदीं आसा.

– कों. वि. सं. मं.

## 'निराला'–सुर्यकांत त्रिपाठी : (जल्म : २१ फेब्रुवारी १८९९, मेदिनिपूर बंगाल; मरण : १५ ऑक्टोबर १९६१, अलाहाबाद).

नामनेचो हिंदी कवी. ताचें मूळ नांव सुर्यकांत त्रिपाठी आसलें तरी ताणें 'निराला' हें साहित्यीक नांव घेतिल्लें. ताच्या बापायचें नांव रामसहाय त्रिपाठी आनी आवयचें रूक्मिणी देवी त्रिपाठी. ताचें मूळ घराणें उत्तर प्रदेशांतल्या उन्नाव म्हालांतलें. पूण ताचें भुरगेपण बंगालांतच गेल्ल्यान ताची आवयभास बंगालीच जाली. गरिबीक लागून ताका मॅट्रिक मेरेनूच शिक्षण घेवंचें पडलें. इ.स. १९११ त ताचें राय मनोहरा देवीकडेन लग्न जालें. ताका रामकृष्ण, राय सरोज आनी रामसहाय त्रिपाठी हीं तीन भुरगीं जालीं. १९१८ त ताचे बायलेक मरण आयलें आनी कुटुंबाचो भार ताचेर पडलो. तो खर यत्नांनी आनी मोटे जिद्दीन हिंदी भास शिकलो. आनी ताचो ताका 'सरस्वती' आनी 'मर्यादा' ह्या नियतकालिकां खातीर खूब उपेग जालो. ताणें कविता, कथा, कादंबरी आनी निबंध आदी साहित्यप्रकार केळयल्यात. तेचपरी 'समन्वय', मतवाला, सुधा आदी नियतकालिकांचें संपादन केलां.



ताच्या काव्यांत छायावादी वैशिश्टां आशिल्लीं. तेच वांगडा तो काळावांगडा गतिशील रावतालो. तो वृत्तीन बंडखोर आनी विचारांनी क्रांतीवादी आशिल्लो. जिवीतभर ताका संघर्शाक तोंड दिवंचें पडिल्ल्यान ताच्या व्यक्तिमत्वाचेर आनी साहित्याचेर ताचो परिणाम जाल्लो दिश्टी पडटा.

ताणें बरयल्ले म्हत्वाचे कवितासंग्रह अशे – 'अनामिका' (१९२२ - पयली आवृत्ती), 'परिमल' (१९३०), 'गीतिका' (१९३६), 'अनामिका' (१९३८-दुसरी आवृत्ती), 'तुलसीदास' (१९३८), 'कुकुरमुत्ता' (१९४२), 'अणिमा' (१९४३), 'बेला' (१९४६), 'नए पत्ते' (१९४६), 'अचना' (१९५०), 'आराधना' (१९५३), 'गीतगुंज' (१९५४/१९५५).

ताणें बरयल्ल्यो कथा अशो – लिली (१९३३), 'सखी' (१९३५), 'सुकुल की बीबी (१९४१), अप्सरा, अलका, प्रभावती. ताणें 'निरूपमा' (१९३६) आनी 'चोटी की पकड' (१९४६) ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यात. ताचो नामनेचो निबंध 'प्रबंध पद्म' (१९१४), तेभायर रवींद्र कविता कानन (१९१६) आनी 'हिंदी – बंगला का तुलनात्मक व्याकरण' हेय उल्लेख करपासारके आसात.

– डॉ. अरविन्द पांडे

## निरीश्वरवाद : ईश्वराचें अस्तित्व न्हयकारपी विचारसरणेक निरीश्वरवाद म्हणून वळखतात. ईश्वराच्या अस्तित्वाचेर वा ईश्वराचे संकल्पनेचेर श्रध्दा दवरपी तो ईश्वरवादी आनी ईश्वराची संकल्पना वा ईश्वराच्या अस्तित्वाचेर जो श्रध्दा दवरीना तो निरीश्वरवादी. 'निरीश्वर' हे संज्ञेचो अर्थ ईश्वरवादाचेर आदारून आसा.

सामान्यपणान निरीश्वरवाद ही संज्ञा तीन अर्थांनी वापरतात.

१) धर्मांतली ईश्वर नांवाची सत्ता वा शक्ती वा तिचेविशीं श्रध्दा दवरप ना.

२) खंयचेय संस्कृतींत मान्यताय मेळिल्ल्या देवतेविशींची वा देवाविशींची श्रध्दा न्हयकारपी प्रवृत्ती.

३) फकत वेव्हारीक पांवड्यारूच ईश्वर न्हयकारप वा ईश्वर संकल्पनेकडेन दुर्लक्ष करप.

पुर्विल्ले तात्वीक विचारधारेंत निरीश्वरवादाची पद्दतशीर मांडणी केल्ली दिसना. कारण कसलेच तरेच्या ईश्वरवादाची पद्दतशीर मांडणी त्या काळांत जावंक नाशिल्ल्यान ताचे विरोधी अशा निरीश्वरवादाची बारकायेन मांडणी जावंक ना. तरी पूण निरीश्वरवादी वा तशेंच तरेचे कांय विचार पुर्विल्ल्या धर्मांनी मेळटात. कन्फ्युशस वा ताओमतांक निरीश्वरवादी धर्मीक मतां अशें म्हणिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात, तशेंच बौद्ध धर्मूय निरीश्वरवादीच आशिल्लो.

बायबलांत निरीश्वरवादाचो सादो उल्लेख लेगीत मेळना. पूण उपरांतच्या काळांत रोमी साम्राज्यांत क्रिस्तांव धर्माच्या लोकांक निरीश्वरवादी समजताले. कारण ताणीं साम्राज्यांत घोळणुकेंत आशिल्ल्या देवाचें अस्तित्व न्हयकारिल्लें. बायबलांत भविश्यकथनाची जी परंपरा आसा ती क्रिस्तांव धर्मातूय तशीच चालू उरली आनी तिचेचपासून निरीश्वरवादाचो सगळ्यांत पयलीं जल्म जालो अशें सगळे मानतात.

आर्विल्ल्या अस्तंत जगांत क्रिस्तांव धर्मावयली प्रतीक्रिया म्हणून पद्दतशीर निरीश्वरवाद घोळणुकेंत आयलो. ह्या संदर्भांत निरीश्वरवादाचे दोन प्रकार आसात.

१) बुद्दीवादी निरीश्वरवाद २) सभाववादी वा भावनावादी निरीश्वरवाद.

**बुद्दीवादी निरीश्वरवाद :** विज्ञानीक सोद आनी बुद्दीच्या आदारानूय ह्या संवसारांतल्या सगळ्या गजालींचें स्पश्टीकरण दिवं येता, हाचेवयल्या विस्वासांतसून ह्या निरीश्वरवादाचो जल्म जालो. ह्या निरीश्ववादांत धर्मीक अंधश्रद्धांक कसलेंच म्हत्व ना. अठराव्या शेंकड्यांतल्या ज्ञानोदय (एन्लायटनमँट) चळवळींत बुद्दीवादी निरीश्वरवाद खूब गाजलो. व्हॉल्तॅर, ऑलबाक जॉन टोलँड ह्या जाणकारांनी ह्या निरीश्वरवादाचे पुरस्कार केलो.

**भावनावादी निरीश्वरवाद :** ईश्वर हो मनशाच्या सामर्थ्याचो आनी नितीमत्तेचो दुस्मान आनी ताका विरोध म्हणून हो भावनावादी निरीश्वरवाद मुखार आयलो. ह्या निरीश्वरवादान ईश्वराक नैतीक भुमिकेंतल्यान विरोध केलो. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत ह्या निरीश्वरवादाचो जल्म जालो.

लुटविख फॉयरबाख (१८०४-७२) ह्या विचारवंतान बुद्दीवादी आनी भावनावादी निरीश्वरवादाचो सांगड घालपाचो यत्न केलो. कार्ल मार्क्स हो हेच परंपरेंतलो विचारवंत आशिल्लो.

**भारतीय विचार :** निरीश्वरवाद वा नास्तीकवादाविशीं भारतीय जाणकारांनी वेगवेगळीं मतां उक्तायल्यांत. पाणिनीच्या मताप्रमाण जो परलोक मान्य करिना तो नास्तीक; वेदांचें व्हडपण मान्य करिना तो नास्तीक; वेदांचे व्हडपण मान्य करिना नो नास्तीक अशें माधवाचार्यान म्हळां. वेदाची टर उडोवप्यांक मनून नास्तीक थरयल्यात आनी तांकां समाजांत स्थान दिवंचें न्हय अशें म्हळां.

ऋगवेदांत देवतांचे अस्तित्व न्हयकारपी लोकांचें वर्णन मेळटा. ईश्वर आनी देवता ही एक कल्पना असो विचार उपनिषदांत कांय लोकांनी मांडला. सांख्यदर्शनाचें पुर्विल्लें रूप निरीश्वरवादीच आसा. मोक्ष मेळोवपापासत ईश्वराची कांयच गरज ना अशें सांख्य मानतात.

वेदांचें व्हडपण न्हंयकारपी चार्वाक, जैन आनी बौद्धांनी ईश्वराक गरजेभायलो मानला. माध्यमिक योगाचार, सौत्रांतिक आनी वेफाषिक हे बौद्ध धर्माचे भेद ईश्वर ना अशें मानतात.

आर्विल्ल्या काळांत मानवेंद्रनाथ रॉय हाचेकडल्यान प्रेरणा घेवन मुखार आयिल्ली नवमानवतावादी विचारसरणी ही निरीश्वरवादीच आसा. ईश्वर ह्या संवसारांत आसा हें सिद्ध करपाखातीर धर्मीक तत्वज्ञान मांडप्यांनी जायते युक्तीवाद मांडल्यांत पूण ते युक्तीवाद ईश्वराचें अस्तित्व सिद्ध करूंक अपेशी थरल्यात.

– को. वि. सं. मं.

## निरुक्त ग्रंथ :

वैदिक पदांच्या वा उतरांच्या 'निघंटू' ह्या प्राचीन शब्दकोशाचेर यास्कान बरयल्लें भाश्य.

वैदिक शब्दांचो गूढ अर्थ स्पश्ट करप हो 'निरुक्त' ग्रंथाचो हेतू. 'निरुक्त' वाचनासतना वेदाच्या दुर्गम अर्थाचें ज्ञान मेळप कठीण.

निरुक्तांत तीन कांडां आसात. पयलो नैघंटूक कांड, दुसरो नैगम कांड आनी तिसरो दैवत कांड. ह्या ग्रंथाच्या सगळ्या अध्यायांचो आकडो चवदा आसा. निरुक्ताच्या पयल्या अध्यायांत नाम, आख्यान उपसर्ग आनी निपात ह्या चार पदप्रकारांची चर्चा आसा. दुसऱ्या अध्यायाच्या पयल्या पादांत निर्वचनसुत्रां आसात. तिसऱ्या अध्यायाच्या शेवटामेरेन निघंटूंतल्या 'नैघंटूक कांडाचेर' भाश्य आसा. अध्याय चार ते संत निघंटूतल्या 'नैगम' वा एक पादिक कांडाचेर भाश्य आसा. ह्या कांडांत 'अनवगतसंस्कार' वा व्याकरणाचे नदरेन कठीण आशिल्ले शब्द आशिल्ल्यान तातूंतल्या दर एका उतरांचें विवेचन यास्कान केलां.

यास्काची विस्कटावणेची तरा अशी – निघंटूंतल्या शब्दाची व्युत्पत्ती घेवपाची शब्दाचो अर्थ स्पश्ट नासल्यार तो सांगपाचो आनी तें उतर जे ऋचेंत आयलां, ती उदाहरण म्हणून उद्‌धृत करपाची. ते ऋचेचेर भाश्य करतना निघंटूंत नाशिल्लया, पुण ते ऋचेंत आयिल्ल्या हेर शब्दांची व्युत्पत्तीय यास्क दिता.

निरुक्तांत यास्कान निर्वचनाचीं म्हळ्यार व्युत्पत्तीचीं सुत्रां दिल्लीं आशिल्ल्यान, आनी त्या सुत्रांप्रमाण जायत्या शब्दांची विसकटावणी दाखयल्ली आशिल्ल्यान व्युत्पत्तिशास्त्राच्या इतिहासांत निरुक्ताचें स्थान खूब म्हत्वाचें आसा. निरुक्तावयली प्रसिद्द टिका दुर्काचार्यान (पांचव्या वा सव्या शतकांत) बरयल्या. दुसरी टिका स्कंदमहेश्वराची. वै. का. राजवाडे हाणेंय निरुक्ताचो मराठी अणकार टिपांवांगडा केल्लो मेळटा. डॉ. सिद्धेश्वर वर्मालो 'यास्क निर्वचन' नांवाचो ग्रंथूय प्रकाशीत जाला.

निरुक्त ग्रंथाचें म्हत्व वळखून जायत्या अस्तंती विद्वानांनी हाचेर लेखन केलां. रॉयान जर्मन भाशेंत निरुक्ताची भुमिका हाचो अणकार प्रकाशीत केला. जर्मन भाशेंतल्या ह्या अणकाराचो इंग्लिशींतूय अणकार जाल्लो मेळटा.

– कों. वि. सं. मं.

## निरेनबर्ग, मार्शल वॉरेन :

(जल्म: १० एप्रिल १९२७, न्युयॉर्क).

अमेरिकन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. फ्लॉरिडा विद्यापिठाच्यो बी. एस्. (१९४७) आनी एम. एस्. (१९५२) ह्यो पदव्यो मेळयतकूच ताणें मिशिगन विद्यापिठाची पीएच. डी. (१९५७) पदवी संपादन केली. १९४५-१९५० ह्या काळांत तो फ्लॉरिडा विद्यापिठाच्या प्राणीविज्ञान विभागांत सहाय्यक अध्यापक आनी १९५०-५२ त पोशण प्रयोगशाळेंत सहाय्यक संशोधक आशिल्लो. ते उपरांत १९५२-५७ मेरेन मिशिगन विद्यापिठाच्या जीवविज्ञान विभागांतले जीवरसायनशास्त्र शाखेंत अध्यापन आनी संशोधन करतकूच ताणें नॅशनल इन्स्टिस्यूट ऑफ हेल्थ हे संस्थेच्या संधिशोध आनी चयापचयात्मक विकार, चयापचयात्मक एन्झायमां जीवरसायनीक आनुवंशिकी ह्या वेगवेगळ्या विशयांकडेन संबंदीत आशिल्ल्या विभागांत संशोधन केलें. १९५७-६६ हे संस्थेच्या नॅशनल हार्ट इन्स्टिट्युटांत जीवरसायनीक आनुवंशिकी प्रयोगशाळेचो मुखेल म्हणून १९६२त ताची नेमणूक जाली.

निरेनबर्ग आनी ताच्या वांगड्यांनी जित्या कोशिकांत प्रथीन संश्लेशणाचेर १९६०त संशोधन करपाक सुरवात केली. ताचेपयलीं १९५३त जे. डी. वॉटसन आनी एफ्. एच्. सी. क्रिक ह्या शास्त्रज्ञांनी DNA आम्लाचे रेणवी रचणुकेविशीं कांय सिद्धांत मांडिल्ले. हे रचणुकेंत आनुवंशिकी संकेत गुंथिल्ले आसूंक जाय, अशें ताका दिसतालें.

निरेनबर्ग हाणें कोशिका आनुवंशिकी संकेत आपल्या गूणसुत्रांतल्या DNA तल्यान व्हरतात त्या पयलीं मान्य जाल्ल्या सिद्धांतासावन सुरवात केली. पयलीं ताणें DNA हें कार्य प्रत्यक्ष करिनात पूण मध्यस्थ म्हणून RNA चो उपेग करतात, अशें दाखयलें. खाशेल्या संकेतावरवीं जित्यो कोशिका भितल्ल्या प्रथिनांचें संश्लेशण करतात आनी ह्या प्रथिनांक

लागून कोशिकेची घडण आनी कार्य थरता, अशें निरेनबर्ग हाणें सिद्ध केलें.

निरेनबर्ग हाच्या सोदाक लागून आनुवंशिकी संकेतांचें वाचन शक्य जालां. हाका लागून एके जैव भाशेंतल्या संकेताचें दुसरे जैव भाशेंतल्या संकेतांत रुपांतर करप सोंपें जालां. न्युक्लिइक आम्लांची भास प्रथिनांचे भाशेंत रुपांतरीत करप शक्य जालें आनी ताचेवयल्यान जीन कोशिकेच्या कार्याचेर नियंत्रणा कशें दवरतात, हें समजलें. ताच्या रेणवी जीवविज्ञानांतल्या ह्या मोलादीक वावराखातीर ताका १९६८ वर्साचो नोबॅल पुरस्कार रॉबर्ट हॉली आनी हरगोविंद खुराना हांचे वांगडा वाटून मेळ्ळो.

– कों. वि. सं. मं.

**निरो :** (जल्म : डिसेंबर १५, इ. स. ३७ रोम; मरण : इ. स. ६८ रोम).

रोमी सम्राटांच्या ज्युलियो-क्लॉडिअन वंशांतलो निमणो सम्राट. ताचें पुराय नांव निरो क्लॉडिअस सीझर अशें आशिल्लें. सेनेका ह्या तत्त्वज्ञान ताका अभिजात्य परंपरेंतलें शिक्षण दिलें. तत्त्वज्ञान, अलंकारशास्त्र आनी ग्रीसी भास हांचो ताणें बरो अभ्यास केल्लो. इ. स. ५४ त पिरायेच्या सतराव्या वर्सा तो राज्याचेर आयलो. ताची आवय ॲग्रीपिना हिचे इत्सेक लागून निरो सम्राट जावपाक पावलो.

सम्राटपद मेळ्ळे उपरांत तो मनाक जाय तसो वागपाक लागलो. आपल्या राजकर्तव्यांकडेन ताणें आडनदर केली. जाय तसो वागून ताणें पयशांची वाट लायली. संगीत, नाच, काव्य, सर्कस आनी हेर कार्यावळींच्या आयोजनांचेर ताणें सगळी शक्त खर्च केली. ताचे आवयक ताची ही वागणूक मानवली ना आनी शेवटाक ताणें आपले आवयकूय राज्याभायर धांवडावन घाली. ते उपरांत तिचो खून जालो. त्या खूनाचो दुबाव निरोचेर घेतलो.

इ. स. ६४ च्या जुलय म्हयन्यांत रोम शाराक उजो लागलो. धा दिसांमेरेन शार लासत आशिल्लें. सम्राटपदाचेर आसुनूय ताणें अशा प्रसंगा वेळार कांयच उपाय करूंक ना अशें सगळ्या नागरिकांक आनी सिनेटरांक दिसलें. राजधानी वयल्या ह्या संकटाचो फायदो घेवपाखातीर सुवार्थी निरोन रोम शाराक क्रिस्तांवांक लागून उजो लागलो असो आरोप केलो आनी तांचो छळ मांडलो. त्याच वेळार मातये भरवण जाल्लें रोम भव्य स्वरुपांत बांदपाचें सपन मनांत दवरून तेखातीर लागपी पयसो जमोवपाक निरोन प्रजेकूय वेंठीक धरली. ताणें धर्मस्थळां, भौशीक संस्था हांचेकडच्यान सक्तीन पयशांची वसुली केली.

ताच्या अशा बेबंद, जुलमी, चैनी आनी मनमानी वागण्याक वाजेवन कांय सिनेटरांनी ताचेआड कट रचलो. निरोक ह्या कटाची सुलूस लागली. ताणें त्या सिनेटरांक जिवानिशी मारले. त्या वेळार ताणें आपले बायलेकूय दयामाया दाखोवंक ना.

निरोचे वागणुकेचो परिणाम म्हणून सिनेट आनी सैन्य ताच्या विरोधांत गेलें. शेवटाक इ. स. ६८त निरोक आत्महत्या करची पडली.

– प्रा. अशोक जोशी

**निर्गूण संप्रदाय :** निर्गूण परब्रह्माची उपासना करपी लोकांचो वर्ग. मुसलमान लोकांनी भारतांत येवन राबितो केले उपरांत एकेश्वरवादाक जुळटा अशी उपासनापद्दत सुरू करपाचे इत्सेन सगुणोपासनेपरस वेगळी अशी निर्गूण ब्रह्माची उपासना कांय लोकांनी आपणायली. स्वामी रामानंद आनी ताचो गुरू राघवानंद हांच्या काव्यांत ह्या निर्गूण मताचे अंश सांपडटात. पूण ह्या पंथाचे सिद्धान्त मात उपनिशदांतल्या तत्त्वज्ञानाचेर आदारिल्ले आसात. सुफी संप्रदायाचो ताचेर प्रभाव दिसता. कबीराक ह्या पंथाचो प्रवर्तक मानतात. कबीरान आपल्या पदांत निर्गूण परब्रह्माचें वर्णन उपनिशदांचेच भाशेंत केल्लें आसा. कबीराच्या कवितांनी सुफी संतांचेय कांय संस्कार आसात. जाका लागून धर्मीक भेदभाव उत्पन्न जातात अशा बाह्योपचारांचो त्याग आनी शुद्ध ईश्वराची भक्ती आनी सात्विक जिवीत हांचेर कबीरान भर दिल्लो आसा. तशेंच मनाचें खरेपण आनी अनुभुती हांचें म्हत्व तो सांगता. निर्गुणा वटेन आसुनूय कबीरान तसो वेगळो संप्रदाय सुरू करूंक नाशिल्लो. पूण वेगवेगळ्या संप्रदायांतले निर्गुणोपासक आनी सगुणोपासक लोकांतलें वेगळेपण दाखोवपाखातीर निर्गूण संप्रदाय हें नांव ते विचारसरणेक पडलें.निर्गुनिया, निगुणवादी जांव संतमत हीं उतरांय त्याच अर्थान वापरतात. इ. स. च्या १५व्या शतकापसून भक्तिकाव्यांत सगूण आनी निर्गूण हे दोन वेगवेगळे अशे काव्यप्रवाह सुरू जाले. ताचेफुडें निर्गूण काव्याचे शुद्ध ज्ञानाश्रयी आनी शुद्ध प्रेममार्गी अशे दोन फांटे जाले. निर्गूणभक्ती ही भावनात्मक प्रवृत्ती आसून संतकवींच्या भक्तीगितांप्रमाण सुफी कवींच्या प्रेमगाथांनीय ती दिसता. बौद्धपंथी सिद्ध पुरुश आनी नाथपंथी योगी हांच्या पदांचोय निर्गूण काव्याचेर प्रभाव आसा.

कबीराच्या ज्या पदांनी निराकार ईश्वराची उपासना करपाचो उपदेश केल्लो आसा तांकां 'कबीरदास की वाणी' अशें म्हण्टात. तीं पदां निर्गूण ह्या नांवानूय प्रसिद्ध आसून भक्तिपूर्ण आसात. भजनां आनी निर्गूण गितां हांचो वर्ण्य विशय जरी एकूच आसलो तरी निर्गूण गितां एके वेगळे लयीन गायतात. भोजपूरी संत कवींनीय निर्गून पदां रचल्यांत. तातूंत रहस्यवादी भावना भरिल्ल्यो आसात. तातूंत ईश्वराक महाजन म्हळां जाल्यार केन्नाकेन्नाय छयल म्हळां. आत्मो आनी परमात्मो हांचेविशींय सोबीत रुपकां त्या गितांनी आसात.

निर्गूण गितां खूब म्होंवाळ आसतात. तांचें एक खाशेलेपण म्हणजे तातूंतली दुसरी ओळ 'आहो रामा' जावं 'कि आहो मोरे रामा' ह्या शब्दसमुहान सुरू जाता आनी 'हो राम' ह्या शब्दांनी सोंपता. देखीक -

पाँच दे पचीस कोसे बसेले महाजन हो ।
कि आहो मोरे रामा, कवना अवगुनवा हरि
मोरे रुसेले हो राम ॥

मराठी संत कवींक निर्गूण भक्तीचें म्हत्व मान्य नाशिल्ले अशें न्हय. पूण ताणीं सगुणभक्तीक म्हत्व दिलें. एकनाथान मात सगूण-निर्गूण एकच आशिल्ल्याचें सांगलां -

माइने स्वरुप निज निर्गूण ।
अथवा वैकुंठीचें सगूण ।
दोन्ही एकचि निश्चयें जाण ।
सगुण निर्गूण समसाम्य ॥

भागवत संप्रदायाचो प्रभाव आशिल्ल्या महाराष्ट्रासारक्या प्रदेशांत निर्गूण परब्रह्माची कल्पना प्रभाव घालूंक पावलिना.

– कों. वि. सं. मं.

**निर्देशांक :** वस्तूंचे बाबतींत दोन स्थितींनी वा दोन कालखंडांनी तांच्या बाजारभावांत वा हेर मापनी चलांत जावपी बदलांची सादारण पातळी पारखुपाचें गमक म्हळ्यार निर्देशांक (Index Number). आयचे दीसपट्टे जिणेंत म्हारगाय वाडत आसा अशें आमी उलयतात. हें मोघम आसता. वस्तूंच्या बाजारभावांत वा उत्पादनांत वा हेर बाबतींनी जावपी बदल आंकडेवारीन स्पश्ट केल्यार अर्थतज्ञ, शेतकार, वेपारी, शासक, शिक्षणतज्ञ, मजूर संघटनाचे फुडारी ह्या लोकांक आपापल्या मळांवयल्यो येवजणो आंखप आनी त्यो चालीक लावप हिताचें आसता. देखीक - खाशेल्या कालखंडांत भांगराचे दर कितले वाडले, धान्य दरांत जावपी वाडीक लागून त्या दरांचेर किदें परिणाम जालो, घर बांदावळीक लागपी सामानाचे दर चड वाडिल्ल्यान त्या क्षेत्रांत ताचो परिणाम कितलो जालो, हे प्रस्न अर्थीक सल्लागाराक सदांच पडटात. ताच्या ह्या कामांत निर्देशांकांचो बरोच उपेग जाता. निर्देशांक चडसो टक्केवारींत मेजतात. खास करून अर्थीक उलाढालीचो अदमास घेवपाखातीर निर्देशांकाचो उपेग करतात आसले, तरी शिक्षणशास्त्र, मानसशास्त्र, समाजशास्त्र ह्या मळांचेरूय तुळात्मक अभ्यासाखातीर निर्देशांकाचो खूब उपेग जाता.

**इतिहास :** चालू अर्थीक वर्साची खाशेल्या भूतकाळांतले अर्थीक स्थितीकडेन तुळा करपाखातीर उद्येगीक वा शेतकामाच्या मोलांत जावपी बदल मेजपाचें साधन म्हणून निर्देशांकाची कल्पना उदयाक आयली. निर्देशांकाचो तुळात्मक उपेग पयलीं १७३८त शार्ल द्यूतॉत ह्या फ्रँच अर्थतज्ञान सुचयलो. फुडें इटालियी शास्त्रज्ञ काउंट जी. कार्ली १७२०-९५ हाणें सापेक्ष दरावयल्यान मोलाचो निर्देशांक काडपाची पद्दत सुचयली. जॉर्ज एव्हलीन (१७९८) हाणें निर्देशांक काडपाखातीर सापेक्ष दराच्या गणीत माध्याचो (सरासरीचो) उपेग केलो. आर्थर यंग (१८१२) हाणें वस्तूंच्या म्हत्वाप्रमाण भार नियोजन करपाची भार पद्दत उपेगांत हाडली. जोसेफ लो (१८२२) हाणें क्रय शक्तींत जावपी बदल तीन,पांच वा सात वर्सांनी अजमावपाची आनी ताचेपसून पुराय काळांत जावपी क्रय शक्तींतल्या बदलांची सरासरी काडची, अशें सुचयलें.

जी. पी. स्क्रूप (१७९७-१८७६) हाणें जीवनमान निर्देशांकांत आस्पाव करपाखातीर योग्य वस्तू खंयच्यो आसच्यो तांची येवजण मांडली. जी. आर. पोर्टर (१७९२-१८५२) हाणें आपल्या 'Progress of the Nations' ह्या ग्रंथांत निर्देशांकाविशीं कांय कल्पना मांडल्यात. विल्यम न्यूमार्च (१८२०-८२) हाणें निर्देशांक काडपाक २२ मुखेल वस्तूंच्या सापेक्ष दरांचें गणितमाध्य वापरलें. डब्ल्यू. एस्. जेवन्झ (१८३५-८२) हाका कांय लोक निर्देशांकाचो जनक समजतात. ताणें गुणोत्तर माध्याचो उपेग सुचयलो आनी निर्देशांकाच्या प्रस्नाचो सर्वांगीण विचार केलो. उपरांत फ्रँक एजवर्थ आनी ऑगस्टस सौरबेक हाणीं निर्देशांकांचें स्वरूप आनिकूय स्पश्ट केलें. सी. एम्. वॉल्श (१९०१) ह्या अमेरिकन संशोधकान निर्देशांकांचीं सुत्रां आनी गुणवत्तेची कसवटणी हांचेर बरेंच लेखन केलें. लास्पेचर्स पाशे आनी फिशर हाणीं आयज वेगवेगळ्या संदर्भांनीं उपेगी थरिल्लीं सुत्रां परगटायलीं. निर्देशांक काडपाच्यो वेगवेगळ्यो पद्दती आनी सुत्रा हांचेविशीं आयजूय संशोधन चालू आसा.

**आगणनांतले मुखेल प्रस्न :** निर्देशांक काडटना सकयल दिल्ल्या गजालींचो विचार करप गरजेचें आसता. - १) निर्देशांकाचो हेत २) उपलब्ध आशिल्ले आंकडेवारीची तुळात्मकताय ३) योग्य वस्तूंची निवड ४) आदार वर्स वा काळाची योग्य निवड ५) भार पद्दतीचो विचार ६) आगणन पद्दतीचे प्रस्न.

ज्या वर्साची वा काळाची तुळा करपाची आसता, ताका आदारवर्स वा आदारकाळ म्हण्टात. हो आदारकाळ अर्थीक नदरेन थीर आसूंक फावो. तुळेखातीर अर्थीक वर्साची निवड करतना तें तेजीचें वा मंदीचें आसूंक फावोना हाची जतनाय घेवंक फावो. आदारकाळ हो खूब पुर्विल्लोय आसूंक फावोना. हाचेविशींचो निर्णय निर्देशांकाच्या उद्दिश्टाचेर आदारून आसता. आदारवर्सांतलो पांवडो १००न दाखयतात. वेगवेगळ्या उद्देशांखातीर वेगवेगळे निर्देशांक प्रचारांत आयल्यात. पूण मोल निर्देशांक आनी परिमाण निर्देशांक हे तांतले तातूंत म्हत्वाचे आसात.

भारताच्या दरेका राज्याचो जीवनमान निर्देशांक हो वेगवेगळ्या आदाखर्चांचेर आदारिल्लो आसता. ह्या सगळ्या निर्देशांकावयल्यान पुराय देशाचो निर्देशांक काडूंक येवंचो, म्हणून केंद्र सरकाराचो 'लेबर ब्युरो' १९४५ हें आदारवर्स धरून भारतांतल्या २७ कामगार केंद्रांचो मेळून सगळ्या भारताखातीर एक जीवनमान निर्देशांक उजवाडायता. हे खेरीज उद्देगीक कामगार, शेतकी मजूर आनी शारी अश्रमीक कर्मचारी हांचेविशीं वेगवेगळे निर्देशांक उजवाडायतात. मुंबय शाराखातीर १९२१ वर्सासावन हो निर्देशांक उजवाडावपाक सुरवात जाली. कृषी उत्पादनाचे निर्देशांक केंद्रीय शेतकी मंत्रालयावरवीं उजवाडाक येतात. भारतीय खनीज उत्पादनाचे निर्देशांक (आदारवर्स १९७०) इंडीयन ब्युरो ऑफ मायन्स उजवाडायता. तातूंत ३७ खनिजांचो आस्पाव केल्लो आसता. उद्देगीक उत्पादनांचो निर्देशांक Statistical Abstract of India ह्या नेमाळ्यांत उजवाडाक येता.

**उपेग :** मोल निर्देशांक १) अर्थीक स्थितींत जावपी बदल २) दुडवांची क्रयशक्ती आनी तातूंत जावपी बदल दाखयतात. तशेंच ३) मजुरीचे दर थारोवपाखातीर आनी म्हारगाय भत्ते उणे-अदीक करपाखातीर ४) राश्ट्रीय उत्पन्नाची थीर मोलाच्या संदर्भांत जावपी वाड ५) वेपाराविशींचे बाबींत फुडें जावपी बदल पारखुपाखातीर ते उपेगी थरतात. परिणाम निर्देशांक उत्पादनांतलो वा वेपारांतलो चडउतार उक्तायता. देशाचो अर्थीक इतिहास बरयतना निर्देशांकांवरवीं अर्थवेवस्थेंत जावपी म्हत्वाचे फरक उदाहरणासयत पटोवन दिवप सोंपें जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**निर्देशिका :** (डिरेक्टरी) 'निर्देशिका' ह्या शब्दाचो वाच्यार्थ निर्देश वा मार्गदर्शन करपी खंयचीय वस्तू असो जरी जाता तरी डिरॅक्टरी ह्या विशिष्टार्थसूचक इंग्लीश शब्दाचो पर्याय अशा अर्थानूच हो शब्द रूढ आसा. निर्देशिका तयार करपाची कल्पना ही मूळ अस्तंत्या लोकांची आसून तिच्यांत उमळशिकी मनशांक फावो आशिल्ल्या मनशांची म्हायती, तांचे वेवसाय आनी तांचे नामे दितात. पळोवप्याक ही म्हायती रोखडीच मेळची देखून तिची नोंद आद्याक्षराक्रमान दितात.

हो शब्द इंग्लीश भाशेंत मुळांत 'भौशीक उपासनेविशीं' मार्गदर्शन करपी पुस्तक ह्या अर्थान आयिल्लो आसलो तरी आयज ताचो हो अर्थ उरूंकना. सद्याच्या काळांत शारांतल्या वा वाठारांतल्या सगळ्या नागरिकांचीं नांवां, तांचो नामो, वेवसाय आदीं विशींची म्हायती दिवपी पुस्तक दूरध्वनी वापरपी मनशांची नामावळ-पुस्तिका वा कसल्याय विशिश्ट वेवसायांत वा

उपक्रमांत वांटो घेतिल्ल्या वांगड्यांची सुची अशा अर्थान निर्देशिका ह्या शब्दाचो अर्थ जाता. इंग्लंडांत वेगवेगळ्या वाठारांखातीर वर्णक्रमाप्रमाण तयार केल्ली 'टपाल कार्यालय निर्देशिका' ही हेर सगळ्या निर्देशिकांनी चडांत चड उपेगी आसा. लंडनाविशींची निर्देशिका सगळ्यांत व्हड आसून तातूंत १) न्यायालयां २) कार्यालयां ३) रस्ते ४) कायदे ५) संसद ६) टपाल नगरपालिका ७) वेपार - वेवसाय ८) बँको ९) उपनगरां आनी १०) टेलिफोन आदी नांवांखाला आद्याक्षराच्या क्रमाप्रमाण म्हायती दिल्ली आसा.

मराठी वा कोंकणींत निर्देशिका वा डिरेक्टरी हो शब्द हेर नामावळी - पुस्तिकांक लायनासतना फकत 'दूरध्वनी निर्देशिका' (टेलिफोन डिरॅक्टरी) खातीर रूढ जाल्लो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**निर्मल पंथ :** शिखांचो एक उपपंथ. निर्मल म्हळ्यार विशुद्ध. कांय लोकांच्या मतान निर्मल पंथाची स्थापना इ. स. च्या सतराव्या शतमानांतल्या विरसिंघ नांवाच्या मनशान केली जाल्यार कांय लोक गुरू गोविंद सिंगाकय ताचो संस्थापक मानतात. ह्या पंथाचे अनुयायी मथुरा, वृंदावन, हृषीकेश आदी थळांनी आसतात.

हे लोक कट्टे धर्मनिश्ठ आनी खर ब्रह्मचारी आसतात. भौतीक जिणेविशीं तांकां मातूय अनुराग नासता आनी ते आपल्या शरिराकडेनूय व्हडलेशें लक्ष दिनात. कांयकडेन ते नागडेय मेळटात. पूण चडशे ते धुतवस्त्रां वापरतात. तांचो दिक्षाविधी सामको सादो आसता. साकर घाल्लें उदक लोखणाच्या आयदनांतल्यान पियेतकूच तांचो दिक्षाविधी पुराय जाता. ह्या उदकाक ते अमृत मानतात. उदकांत साकर घालून दवरतकूच पांच साधू ग्रंथसाहेबाचें पठण करून हें उदक मंत्रायतात आनी ह्या सुवाळ्याक ते अमृतप्राशन म्हण्टात.

हे लोक चडशे मठांतूच रावतात पूण तातूंतले कांय जाण पावसाळो सोडून आठ म्हयने भोंवडीय करतात. एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत वतना ते कपडे थंयच उडयतात आनी हेर वस्तू लोकांक वांटून दितात. तांच्या मठ मुखेल्याक महंत अशें म्हण्टात. ते चडशे भगवे कपडे वापरतात. महंत मठाचो कारभार पळयता. ताच्या आदाराक एक मंडळ आसता. ह्या मंडळाचे कांय नेम आसतात, तांकां दस्तूर-उल-अमल अशें म्हण्टात. महंताची वेंचणूक करप, तांची पात्रताय थरोवप, लंगरांची (अन्नछत्र) वेवस्था पळोवप आदी गजालींचो तातूंत आस्पाव जाता.

हे लोक शास्त्राभ्यास करतात. पूण योगसिध्दीचेर तांचो विश्वास नासता. देव म्हणून ते ग्रंथ साहिबाची पुजा करतात. तांचो खुबसो आचार मुसलमानांवरीच आसता. तांची प्रार्थनाय सामुदायीक आसता. निर्मल पंथीय साधूंक कांय जाण सुधारक साधूय म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**निर्मोळी :** अन्नावांगडा वा हेर खावपाच्या पदार्थांतल्यान विखारी द्रव्यां पोटांत वतकूच जी हाग-ओंक जाता तिका 'निर्मोळी' (Food Poisoning) म्हण्टात. जंतू, रसायनीक द्रव्यां, विखारी फळां, विखारी अळमी तशेंच दर्यांतले दुशीत प्राणी म्हळ्यार खुबे, कालवां, नुस्तें हांकां लागून अन्न दुशीत जाल्लें आसल्यार पोटांत खूब दुखूंक लागता. पोटांत धवळप, पोटांत वळप, पोटाक हात लायल्यार वा दामल्यार खूब दुखप तशेंच ओंकारे, संडास, अशक्तताय आनी घुंवळ येवप हीं लक्षणां दिसतात. विखारी अळमी खावन निर्मोळी जाल्यार नदर मंदावता आनी झेमिल्लेवरी जाता. पणसाचे गरे, तांतयां वा कांय तरांचें नुस्तें खाल्ल्यान, कांय लोकांच्या आंगार पिताम येता ती ॲलर्जीक लागून येता. सांसवां, वेलदोडे आनी सूंठ ह्या पदार्थांचे मसाले खाल्यार लेगीत कांय जाणांक हो विकार जांव येता. ह्या विकारांचीं लक्षणां निर्मोळेभाशेनूच आसतात पूण तांकां निर्मोळी म्हणूंक येना.

मेल्ल्या प्राण्यांच्या शरिरांतलीं प्रथिनां विघटीत जाता आसतना निर्माण जावपी पदार्थांक 'टोमेन' म्हण्टात. तेखातीर निर्मोळेक 'टोमेन वीखबादा' अशेंय म्हण्टात.

निर्मोळी मुखेलपणान दोन कारणांनी जावं येता. १) बादीत जंतू आनी २) रसायनीक पदार्थ.

बादीत जंतूंभितर सालमोनॅला टायफीम्युरी, स्टॅफिलोकोक्कस ऑरीअस्, क्लोस्ट्रीडीयम व्हेल्वी आनी क्लोस्ट्रीडीयम बोटुलीनम हांचो आस्पाव जाता. बोटुलीनमची लागण उण्या प्रमाणांत जाता पूण ती घातक आसता. सालमोनॅला आनी स्टॅफिलोकोक्कस हांची लागण चड प्रमाणांत जाता. जंतुबाधीत निर्मोळी खूब तरांनी जावं येता. देखीक - हुंदराच्यो लेणयो, घाणयारे मूस वा पाली सारकिल्या कांय प्राण्यांचो अन्नाकडेन संबंद आयल्यार. विखारी अळमी, बोरां, शंखजीव ह्या पदार्थांनी, निकतोच बरो जावन आयिल्लो रांदपी जेवण खाण तयार करपाक वावुरल्यार, शेळें मास, मटन तांतयां हे खावपाचे जिन्नस (सालमोनॅला जंतू) साकरेचो पाक, खावपाच्यो क्रिमी (क्लोस्ट्रीडीयम जंतू), सूप, कस्टर्ड, दूद वा दूदाचे जिन्नस (स्टॅफिलोकोक्कस), बाजारी बंद डब्यांतलीं खावपाचीं तयार खाणां, लोणचीं (बोटुलिनम) ह्या पदार्थांनी जंतूबादक निर्मोळी जावं येता. हे तरेची निर्मोळी जावपाचें प्रमाण खानावळी, कॅम्प, सुवाळ्याचीं भौशीक जेवणां आशिल्ल्या सुवातींनी चड आसता.

गोरवां, दुकरां अशा खावपाक वापरतात त्या जनावरांभितर सोलमोनॅला हो जंतू चड करून आसता. अशा पिडेस्त जनावरांक मारतकूच तांच्या मासांत हे जंतू वाडटात. उपरांत मनशान तें मास खातकच ताका तो रोग जाता. हुंदराच्या लेणयांतल्यान ह्या रोगाचे जंतू पातळटात. कोंबयो, बदकां हांचीं तांतयां लेगीत ह्या रोगाक कारण थरतात.

चड करून स्टॅफिलोकोक्कस ह्या जंतूंच्या आनी क्लॉस्ट्रिडियम जंतूंचे वाडीक लागून अन्नांत जंतूवीख-तयार जाता. जंतूंक लागून जावपी निर्मोळेंत स्टॅफिलोकोक्कस जावपी निर्मोळी चड मेळटा. अशे तरेच्या रोगजंतूंपसून स्वताक रोग जायना, पूण दुसऱ्याक मात त्या जंतूंपसून रोग उत्पन्न करूंक शकपी व्यक्तीक रोगवाहक व्यक्ती म्हण्टात. अशा मनशाचो जेवण करप, दुसऱ्यांक वाडप ह्या गजालींनी संबंद आयल्यार हो रोग जावंक शकता. बोटुलिनम दिसपी जंतूंची वीखबादा चड खर आसता, पूण ती केन्नाय चूकून जाता. हें वीख पचन तंत्रावांगडा, शरीराच्या हेर भागांकूय अपाय करता. ऑक्सिजन नाशिल्ल्या वातावरणांत ह्या जंतूंची वाड बरी जाता तेखातीर बंद डब्यांतल्या अन्नांतल्यान ही वीखबाधा जावपाची शक्यताय चड आसता.

निर्मोळी जातल्या रसायनीक पदार्थांभितर दोन गट जावं येतात - १) सारीं, जंतुनाशकां, कॅडमियम, पारो. २) विखारी फळां, दर्यांतले प्राणी.

कॅडमियमा सारकिल्या रसायनांचो रांदपाच्या आयदनांकडेन संबंद येत जाल्यार निर्मोळी जावपाची शक्यताय आसता. कॅडमियम-खनीज पोटांत गेल्यार विखाची बादा जाता. डब्यांनी बंद करून दवरिल्ल्या अन्नांत हो दोश उत्पन्न जावपाचो चड संभव आसता. उण्या दर्ज्याच्या ॲल्युमिनीयम वा जस्त (Zink) ह्या धातूंच्या आयदनांनी फळांचो आंबट रोस सांठयल्यार, हातभट्टेचेर काडिल्लो सोरो पॉलीश केल्ल्या मातयेच्या आयदनांनी सांठोवन दवरप हांकां लागून ही रसायनीक निर्मोळी गरीब लोकांचे वस्तींत चड प्रमाणांत जावंक शकता.

सालमोनॅला जंतूपसून जावपी निर्मोळेंत अकस्मात थंडी खावन जोर येता, खूब फावटीं पातळ संडास जावन ओंकारो येता. दोन-तीन दिसांमेरेन संडास जावं येता. अशा वेळार क्लोरोमायसेटीन ह्या द्रव्याचो उपेग करतात. स्टॅफिलोकोक्कस जंतूंक लागून पोटांत घांस मारून शेंबूड आनी रगत आशिल्लो निमपातळ संडास जाता. ही निर्मोळी एकेक फावट घातक जावंक शकता. बोटुलिनम जंतूंपसून जावपी निर्मोळेंत जाप सुटना, झेम आयिल्लेवरी जाता, नदर उणी जाता, खूब अशक्तपण येता. एकेकदां हात- पांय लेगीत लुळे पडूं येतात. ४-८ दिसांभितर सारको उपचार जालो ना जाल्यार पुलमांव वा काळजाचे अती दुर्बळटायेन निर्मोळी जीवघेणी जाता. निर्मोळेचीं चडशीं लक्षणां कॉलरा, अतिसार ह्या दुयेसांभाशेनूच आसतात. पूण एकेच सुवातेर खाल्ल्या जेवणाखाणांतल्यान खूब जाणांक एकाच वेळार एकासारकींच लक्षणां जावप हें निर्मोळेचें खाशेलेपण.

निर्मोळी जातकूच सुर्वेक घरचे घरा उपाय करून पळोवंचे. शिताचो पातळ निवळ वा सळसळावन थंड जाल्ल्या एक ग्लास उदकांत एक चिमटीभर घरचें मीठ आनी एक कुलेर साकर वा गोड घालून बरें धवळचें आनी थोडें थोडें पियेवपाक दिवंचें वा इलॅक्ट्रोलायट पिठो (Electrolyte Powder) उदकांत घोळोवन दिवंचो. हें मिश्रण घेवन भलायकी सुदारली ना जाल्यार मात दोतोराक दाखोवप गरजेचें आसता. ओंकारे येत रावल्यार हॉस्पिटलांत इंजेक्शन करून रगता शिरेंतल्यान आलिमेंत दितात. ओंकारे बंद जावन तब्येत सुमाराची जातकूच निमपातळ जिन्नस दिवंचे. देखीक - तांदळांची पेज, दाळ वा मुगांचें उदक वा कसलेंय पदार्थ दिवं येतात.

संडासाक घट जावन येवपाक पेक्टीन-काओलिन (Pectin Kaolin) मिश्रण दितात. तशेंच, पोटांत वळटा वा दुखता तें उणें करपाक कोडेन फोस्फेट टिंक्चर (Codein Phosphate tincture) पिवपाक दितात. रसायनीक वा विखारी निर्मोळी जायत जाल्यार, हॉस्पिटलांत पयलीं वादयेंतल्यान पोट नितळ करून घेतात.

**जतनाय :** अन्नाचे पदार्थ हाताळचे पयलीं सदांच हात बरे धुंवचे. अन्न शिजोवपी आनी वाडपी व्यक्तीन सदांच नितळ रावचें. चिखल उरूं येता इतलीं नाखटां वाडोवचीं न्हंय. अन्नपदार्थ केन्नाच उक्ते दवरचे न्हय तशेंच तांचेर शिंकचे वा खोंकचें न्हय. हाताक कसलेंय चवन, घाय वा फाड जाल्लो आसल्यार ताचेपसून अन्न संसर्गदुशीत जावंचे ना हाची जतनाय घेतलेबगर अन्नाक हात लावंचो न्हय. हात पुसपाचे, आयदनां उखलपाचे आनी तातां पुसपाचे कपडे नितळ आसचे. पोशिल्ले प्राणी म्हळ्यार मांजर, सुणें हांचो तेचभाशेन उंदीर, जल्ले, पाली हांचो अन्नाकडेन संबंद येवपाक दिवंचो न्हय.

- डॉ. आनंद हळर्णकार

**निर्यात :** खंयच्याय राश्ट्रान विदेशांत धाडिल्ल्यो वस्तू वा सेवा. वेव्हाराचे नदरेन पळयल्यार खंयचेंच राश्ट्र पुरायपणान स्वयंपूर्ण नासता. दर एका राश्ट्राची उत्पादक साधनसामुग्री मर्यादीत आसता आनी तिचें स्वरुपूय हेर राश्ट्रांपरस वेगळें आसता. हाका लागून खंयचेंच राश्ट्र फकत आपले सामुग्रीचेर आपल्यो सगळ्यो गरजो भागोवंक शकना. म्हणून दुसऱ्याकडेन वेपार करून आपले साधनसामुग्रींत भर घालीत आसता. अशे रितीन उत्पादनांत वाड करून राश्ट्रीय विकास घडोवन हाडपाचो यत्न करीन आसता.

राश्ट्रीय विकासाखातीर गरजेच्या अशा घटकांची देखीक कच्चो म्हाल, यंत्रसामुग्री, हांचे खेरीज ज्यो वस्तू वा सेवा राश्ट्रांत साप ना, तांची हेर राश्ट्राकडच्यान आयात करून राश्ट्रीय उत्पादन आनी लोकांचो दर्जो वाडोवप शक्य जाता. ही आयात करप भोव गरजेचें आसता. पूण हांचें मोल फारीक करपाखातीर दर एका राश्ट्राक कांय वस्तू आनी सेवा हांची निर्यात करची पडटा. तशेंच ज्या वस्तूंचें वा सुविधांचें उत्पादन देशाभितल्ले मागणेपरस चड आसता तेन्ना तांची निर्यात करून मेळपी परकी भांडवलाचो उपेग आपणाक गरज आशिल्ल्यो वस्तू आनी सुविधा हांची आयात करपाक मेळटा.

निर्यात म्हळ्यार परकी चलन मेळोवन दिवपी एक म्हत्त्वाचें साधन. परकी चलन वाडोवपाखातीर निर्यातींत वाड करप भोव गरजेचें आसता. राश्ट्रीय अर्थवेवस्थेंत निर्यातीचें म्हत्व दर एका राश्ट्रांत वेगवेगळें आसता. कांय राश्ट्रां फकत निर्यातीचेरूच आदारिल्लीं आसतात. त्या राश्ट्रांत गरजेपरस चड उत्पादान जावपी वस्तूंची निर्यात करून अर्थीक विकास घडोवन हाडप हें तांचें खाशेलेपण. (ब्राझील, क्युबा - साकर, मेक्झिको - केळीं) आंतरराश्ट्रीय वेपारांत जशी वाड जाता, तशी संवसारांतल्या बाजारपेठांनी सर्त वाडत वता. हाका लागून चडशा राश्ट्रांक निर्यातीकडेन चड लक्ष दिवंचें पडटा. शासनाकूय निर्यातीविशींचें धोरण बारीकसाणीन आंखचें पडटा. तशेंच निर्यातीक उर्बा दिवपाक खूबशे मार्ग आपणावचे पडटात.

एक उद्देगसंस्था जेन्ना आपलो म्हाल निर्यात करूंक सोदता तेन्ना तिचेमुखार साबार आडमेळीं आसतात. त्या-त्या राश्ट्रांतले कायदे, भाशा आनी चलनपद्दती वेगळी आशिल्ल्यान तांचो अभ्यास करप भोव गरजेचें आसता. त्या राश्ट्रांचीं आयातीविशींचीं धोरणां बदलत आशिल्ल्यान निर्यात करप्यांक खूब त्रास जातात. अशे स्थितींत निर्यात वेपारांतलें येस साबार गजालींचेर आदारिल्लें आसता. विदेशांतल्या लोकांच्यो गरजो किदें, तांकां कसल्या तरांचो म्हाल जाय हें सोदून काडचें पडटा. तो म्हाल धाडपाक फावो असो मार्ग खंयचो हेंय थरोवचें पड्टा. निर्यातदारान आपल्या म्हालाची विदेशांत जायरात आनी विक्री करतना थंयच्या वातावरणाचो आनी समाजिकायांचोय विचार करचो पडटा. परदेशांत धाडपाच्या म्हालाचें संकल्पन आनी आवेश्टण ओडलायणें आसचें पडटा. ओडलायण्या आवेश्टणाक लागून म्हालाचें प्रदर्शन बरे रितीन घडोवन तो विकपाक सोंपो जाता. म्हाल बरेभशेन हेर राश्ट्रांनी पावपाखातिरूय आवेश्टणाक खूब म्हत्व आसा. हाका लागून हो वेवसाय करपी संस्थांक खाशेल्या संस्थांचो आदार घेवंचो पडटा.

निर्यातदारांक म्हालाची निर्यात करपाखातीर साबार मार्गांचो वापर करपाक मेळटा. निर्यात वेपाराचो वेवसाय करपी निर्यात घरांवरवीं (एक्स्पोर्ट

हाऊस) परराष्ट्रांतल्या खरेदीदाराक निर्यातक म्हाल विकूंक शकता. निर्यातदारान आपली विक्रीशाखा परदेशांत काडल्यार तिचेवरवीं भोंवडेकार एजंटांवरवीं वा कमिशन एजंटांवरवीं निर्यात म्हाल परदेशांतल्या वेपारजात्रांनी धाडपाक मेळटा वा परकी खरेदीदारांक विकपाक मेळटा. निर्यात म्हालाचें मोल फारीक करपाचेय खूब मार्ग आसात.

**भारताची निर्यात :** वैदिक काळा पयलींसावन भारताचो हेर राष्ट्रांकडेन वेपारी संबंद आशिल्लो हाचो पुरावो हडप्पा-मोहेनजोदारो उत्खननांतल्यान मेळटा. मध्य युगांतूय अरबी लोकांवरवीं हांगाच्यान मसाल्याचो वेपार चलतालो. सोळाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक भारत-युरोप हांचेमदल्या उदका मार्गाचो सोद लागले उपरांत भारताचो युरोपांतल्या वेपारी राष्ट्रांकडेन संबंद आयलो. स्वातंत्र्यापयलींच्या काळांत हिंदुस्थानाचो विदेशी वेपार मुखेलपणान ब्रिटन आनी राष्ट्रकुलांतल्या राष्ट्रांकडेन जातालो. निर्यातींत चड करून कच्चो म्हाल (कापूस, ताग आनी हेर) च्या, तेलाबियां, मसाल्याचे पदार्थ आनी हेर सुमार ५० वस्तूंचो आस्पाव जातालो. पूण स्वातंत्र्याउपरांत उद्देगीक उदरगतीक लागून निर्यातीचें स्वरूप पुरायपणान बदललें. भारतांतल्यान निर्यात जावपी वस्तूंचो आंकडो आतां सुमार ३,५०० इतलो जाला. जगांतल्या चडशा सगळ्या राष्ट्रांकडेन भारताचो निर्यात वेपार चलता. भारतीय निर्यातीचें मोल १९५०-५१त फकत ६०० कोटी रुपया आशिल्लें, तें १९७५-७६त ३, ९४१ कोटी रुपयांमेरेन वाडलें. उपरांत हें मोल वाडत रावलें १९९२-९३ वर्सा तें ५४७६२ कोटी रुपया इतकें जालें.

### जागतीक निर्यातींत भारत
१९९२

| निर्यातकार | मोल बिलियन U.S. $ | वांटो टक्केवारींत |
|---|---|---|
| १) अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां | ४४८.२ | १२.०१ |
| २) जर्मनी | ४३०.० | ११.५३ |
| ३) जपान | ३३९.९ | ९.११ |
| ४) फ्रांस | २३५.८ | ६.३२ |
| ५) युनायटेड किंग्डम | १९०.० | ५.०९ |
| ६) इटली | १७८.२ | ४.७८ |
| ७) नेदर्लंड्स | १३९.९ | ३.७५ |
| ८) कॅनडा | १३४.१ | ३.५९ |
| ९) बॅल्जियम | १३२.० | ३.३० |
| १०) हाँगकाँग | ११९.५ | ३.२० |
| ११) चीन | ८५.० | २.२८ |
| १२) चायनीस तायपेयी | ८१.५ | २.१८ |
| १३) दक्षिण कोरिया | ७६.६ | २.०५ |
| १४) स्वित्झर्लँड | ६५.७ | १.७६ |
| १५) स्पेन | ६४.३ | १.७२ |
| १६) सिंगापूर | ६३.५ | १.७० |
| १७) स्विडन | ५६.१ | १.५० |
| १८) साउदी अरेबिया | ४८.८ | १.३१ |
| १९) मॅक्सिको | ४६.२ | १.२४ |
| २०) ऑस्ट्रिया | ४४.४ | १.१९ |
| २१) ऑस्ट्रेलिया | ४२.५ | १.१४ |
| २२) मलेशिया | ४०.६ | १.०९ |
| २३) डेनमार्क | ३९.६ | १.०६ |
| २४) रशियन फॅडरेशन | ३७.० | ०.९९ |
| २५) ब्राझील | ३६.१ | ०.९७ |
| २६) नॉर्वे | ३५.२ | ०.९४ |
| २७) थायलॅंड | ३२.५ | ०.८७ |
| २८) इन्डोनेशिया | २९.३ | ०.७९ |
| २९) इरलॅंड | २८.३ | ०.७६ |
| ३०) फिन्लॅंड | २४.० | ०.६४ |
| ३१) दक्षिण आफ्रिका | २३.९ | ०.६४ |
| ३२) यू. ए. ई. | २१.६ | ०.५८ |
| ३३) भारत | १९.६ | ०.५३ |

### भारत
### म्हत्वाच्या वस्तूंची निर्यात
(१९८९ ते १९९२ मेरेन) (रू. कोटींनी)

| वस्तू | १९८९-९० | १९९०-९१ | १९९१-९२ |
|---|---|---|---|
| १) बागायत | १,२४७.१५ | १,३२८.१४ | १,४४२.३८ |
| २) शेतकी उत्पादन | २,६३७.११ | २,८७०.२२ | ४,५०५.३७ |
| ३) दर्यांतली पिकावळ | ६८६.५४ | ९५९.६८ | १,३७३.९६ |
| ४) मीन आनी हेर खनिज पदार्थ | १,३८०.१२ | १,६९४.९१ | २,२८१.०९ |
| ५) चामड्या उत्पादन | १,९५०.९३ | २,५५३.८५ | ३,०७६.२४ |
| ६) दागिने आनी हेर मोलादीक वस्तू | ५,२९५.५३ | ५,२१०.०४ | ६,७५०.०० |
| ७) खेळा वस्तू | ८१.४७ | ९२.०९ | १०८.८५ |
| ८) रसायनीक उत्पादन | २,९७३.६५ | ३,१९६.१४ | ४,७७१.०१ |
| ९) अभियांत्रिकी वस्तू | २,८६३.४७ | ३५४१.३५ | ४,८५५.०७ |
| १०) परमाणू आनी संगणक भाग | ४२०.८९ | ३५२.२३ | ६४१.०५ |
| ११) प्रकल्प वा संशोधन वस्तू | ३७.२८ | १५७.०२ | ३०.७१ |
| १२) कापड | ५,५८५.३२ | ७९५७.६० | १०,६३७.८४ |
| १३) हस्तकौशल्याच्यो वस्तू | ४०२.८४ | ४२९.१२ | ५९५.९९ |
| १४) कारपेट्स | ७००.०९ | ७४४.७१ | १,२३४.४० |
| १५) पेट्रोलियम उत्पादन | ६९६.६७ | ९३७.८० | १,०२२.२७ |
| १६) हेर म्हत्वाच्यो वस्तू | ७२२.४१ | ४९४.३८ | ५०२.२३ |
| वट्ट रक्कम | २७,६८१.४७ | ३२,५२७.२८ | ४३,८२८.०३ |

भारताच्या पांच वर्सुकी येवजणांक आनी निर्यातींत जाल्ले वाडीक लागून विकासाखातीर पुरायपणान परकी आदाराचेर रावपाची गरज आतां खूब उणी जाल्या. भारतीय निर्यातींत वाड जाल्ली आसली तरी भारताचो वट्ट संवसारीक निर्यातींतलो वांटो फकत प्रतीशत आसा.

**भारतांतली निर्यात विकास येवजण :** स्वातंत्र्योत्तर काळांत १९४९त जाल्लें रुपयाचें अवमुल्यन आनी कोरियन झूज हांकां लागून निर्यात वाडीक उत्तेजन मेळ्ळें. पूण झूज सोंपले उपरांत आनी मागीर संवसारीक मंदीक लागून भारताची निर्यात उणी जायत रावली. अर्थीक नियोजनाक गती मेळ्ळेउपरांत ल्हव ल्हव निर्यात विकास येवजणेकूय म्हत्व प्राप्त जालें. पयल्या दोन पांच वर्सुकी येवजण काळांत भारताचे निर्यातीचो पांवडो लागींलागीं स्थिरूच आशिल्लो. तिसऱ्या येवजणकाळांत निर्यातीक उत्तेजन दिवपाखातीर रितसर यत्न सुरू जाले. सरकारान १९६२त आयात आनी निर्यात धोरण समिती (मुदलियार समिती) नेमली. हाका लागून चड आनी चड निर्यातघरांक मान्याताय मेळपाक लागली. तशेंच, निर्यातकांखातीर साबार प्रोत्साहनात्मक येवजणोय आंखल्यो. मुदलियार समितीन मांडिल्ल्यो शिफारशी सरकारान उपेगांत हाडल्यो. पूण निर्यातींत जाय तितली वाड जालिना. हाकालागून १९६६त सरकाराक निर्यातवाडीखातीर रुपयाचें परत अवमुल्यन करचें पडलें. सुर्वेक अवमुल्यनाक लागून निर्यात विकासाक नेट आयलो. पूण १९७३-७४त खनिज तेल, रसायनीक सारीं आनी कड्डण हांच्या दरांनी वाड जाल्ल्या कारणान अवमुल्यनाच्या परिणामांक देंवती कळा लागली. उपरांत निर्यात विकास जांवचो म्हूणून साबार खाशेल्यो संस्था सरकारान निर्माण केल्यो. त्यो म्हणजे बोर्ड ऑफ ट्रेड, निर्यात विकास मंडळ, कमॉडिटी बोर्डस, ट्रेड डॅव्हलपमॅंट ऑथॉरिटी आनी एक्सपोर्ट इन्स्पेक्शन काउन्सिल ह्यो संस्था सरकारान निर्यात विकासाखातीर उबारल्यात. हस्तवेवसाय, हातमाग वस्तू खनिजां आनी धातू, अभियांत्रिकी वस्तू हांची निर्यात करपाखातीर खाशेलीं मंडळां निर्माण केल्यांत.

निर्यात विकास हें जगांतल्या सगळ्या विकसीत आनी अविकसीत राष्ट्रांनी अर्थीक धोरण म्हणून आपणायलां. उत्पादनाच्या यांत्रिकीकरणाक लागून शेतवड आनी कारखानदारींत जाल्ली वाड, लोहमार्ग, जलमार्ग आनी हवाई मार्ग हांच्या येरादारींनी क्रांतिकारक बदल जाल्ल्यान वाडट्या उत्पादनाचें वांटप जगांत सगळेकडेन जावपाक लागलां. भुगोलीक विभागणेक लागून ज्या देशांत जीं सैमीक साधनां सांपडटात त्या साधनांचो वापर करून उण्या खर्चांत विंगड विंगड देश वस्तू तयार करतात आनी ह्या वस्तूंची राष्ट्राराष्ट्रांभितर देव-घेव वाडत आसा. आयज अमेरिके सारकीं सुदारिल्लीं राष्ट्रां लेगीत आपल्या गरजांचे नदरेन स्वयंपूर्ण नात. ज्यो वस्तू निर्माण करप राष्ट्रांच्या हिताभायर आसा, अशो वस्तू तीं हेर राष्ट्रांकडच्यान आयात करतात आनी ज्यो वस्तू हेर देशांपरस राष्ट्र उण्या खर्चांत निर्माण करता, त्यो वस्तू तीं निर्यात करतात. आतांचे परीस्थितींत विकसीत वा अविकसीत राष्ट्रांक निर्यात वाडोवप भोव गरजेचें. आयच्या विकसीत राष्ट्रांमदल्या अमेरिका वा इंग्लंड ह्या देशांक परदेशांत लश्करी खर्च व्हडा प्रमाणांत करचो पडटा. हो खर्च परकी चलनांत करपाचो आशिल्ल्यान तो मेळोवपाखातीर तांकां त्या देशांकडेन निर्यात वाड करची पडटा. मागाशिल्ल्या देशांत कारखानदारी उबी करपाखातीर कच्चो म्हाल, यंत्रसामुग्री, रसायनां आनी हेर म्हाल आयात करचो पडटा, तशेंच खूब देशांक धान्याचीय आयात करची पडटा. ह्या देशांनी विकासाखातीर म्हणून घेतिल्लें परदेशी रीण फारीक करपाखातीर परकी चलन मेळोवपाक निर्यातवाड करची पडटा. परकी चलनाची जण एका राष्ट्राक गरज आसता आनी तें मेळोवपाखातीर त्या - त्या राष्ट्राचें सरकार निर्यात विकासाच्यो खाशेल्यो अशो येवजण्यो आंखता.

– कों वि. सं. मं.

**निर्वाण :** निर्वाण ही एक दार्शनिक संज्ञा. राग, द्वेश, मोह हांचो पुरायपणान नाश जालो म्हण्टकूच निर्वाण प्राप्ती जाली अशें म्हण्टात. निर्वाण हो शब्द मुक्ती वा मोक्ष ह्या शब्दांकडेन जुळटा. गीतेंत ब्रह्मनिर्वाण असो शब्द आयला. थंय ह्या शब्दाचो अर्थ मोक्ष असो घेतला. सादारणपणान सांख्य, योग, वेदांत आनी हेर दर्शनांनी मोक्ष हो शब्द आपणायलो जाल्यार बौद्ध आनी जैन हाणीं निर्वाण शब्दाचो उपेग केला.

सगळ्या तरांच्यो इत्सा वा वासना पयस करप वा नश्ट करप अशी ह्या शब्दाची व्युत्पत्ती सांगल्या निर् + वाण = इत्सा, वासना मारप. पूण बौद्ध शास्त्रांवरवीं आत्मो पालोवप वा आत्म्यांक शांती मेळप म्हणजेच निर्वाण. पूण निर्वाण कल्पनांचे संबंद सांगतना बौद्धांतल्या हिनयाना आनी महायाना ह्या संप्रदायांनी खूब वेगळेपण दिश्टी पडटा. बौद्धांच्या जण एका संप्रदायांत निर्वाणविशीं विंगड विंगड मतां मांडल्यांत

**हिनयानी विचारसरणी :** हिनयानी संप्रदाय हांच्या मतान जण एक व्यक्ती तीन दुख्खांक लागून पिडटा. हातूंतलें पयलें म्हळ्यार दुःखदुःखता - भौतीक वा मानसीक कारणांक लागून उत्पन्न जावपी क्लेश, दुसरो संस्कारदुःखता - उत्पत्तिविनाशशाली जगतांतल्या वस्तूसावन उत्पन्न जावपी क्लेश आनी तिसरो, विपीरणामदुःखता-सूख हें दुखःरुपांत परिणन जाल्ल्यान उत्पन्न जावपी क्लेश मनीसजातीची ह्या तिनूय क्लेशांसावन केन्नाच सुटका जाय ना. तातूंतल्यान सुटका करून घेवपाक जाय जाल्यार बुद्धान उपदेशिल्ले आर्य अश्टांगिक मार्ग आपणावंक जाय. जो कोण निर्वाण साादपाक पळयता ताणें ह्या मार्गाचो उपेग केल्यार ताची तिनूय क्लेशांसावन सुटका जाता. हाकाच हिनयाना निर्वाण अशें म्हण्टात.

बुद्धान आपल्या भिक्षुकांक निर्वाण म्हळ्यार फकत दुख्खांचो अंत आसा अशें सांगलां. निर्वाण हें एक आयतन (जागो). थंय धर्तरी, उदक, तेज,वायू मळब असलें कांयच ना. निर्वाणावस्थेंत इहलोकूय ना आनी परलोकूय ना. थंय चंद्रूय ना आनी सूर्य लेगीत ना. निर्वाण एक उत्पत्तीय न्हय, स्थिती न्हय वा च्यूतीय न्हय, निर्वाण खंयच बांदून उरूंक ना अशेंय बुद्धान आपल्या भिक्षूंक सांगलें. बुद्धाचें हें निर्वाण कथन पुरायपणान अभावाचेरूच आदारिल्लें आसा.

नागसेन हाणें आपल्या मिलिंदप्रश्नांत हेच कल्पनेचेर भर दिला. ताच्या मतान निर्वाणाउपरांत व्यक्तित्वाचो पुरायपणान नाश जाता. जे प्रमाण उज्याची ज्वाला पालवले उपरांत दाखोवपाक मेळना, तेचप्रमाण निर्वाण प्राप्त जालेउपरांत ती व्यक्ती पळोवपाक मेळना. हाचें कारण म्हळ्यार ज्या गजालींक लागून व्यक्तित्व सिद्ध जाता अशी खंयचीच गजाल निर्वाणा उपरांत फाटल्यान उरना. निर्वाण प्राप्त जाल्लो मनीस उत्पन्न जाय ना, जीर्ण जाय ना, मरना वा पुनर्जल्माकूय प्राप्त जायना. तो त्याच जाग्यार शांत जाता.

हिनयानी संप्रदायांतले थेरवादी संप्रदाय निर्वाणाक मानसीक आनी भौतीक जिवितीची निमाणी अवस्था मानतात. तृष्णादी क्लेशांचो शेवट

जाले उपरांत जेन्ना भौतीक जीण आपले निमाणे अवस्थेक प्राप्त जाता, तेन्ना ताका निर्वाण म्हण्टात, अशें ह्या संप्रदायाचें मत आसा. तांच्या मतान निर्वाण हें अभावात्मक आसा. निर्वाणा उपरांत कसलेच तरेचें जिवीत फाटल्यान उरना.

**महायानी मत :** महायान संप्रदाय लोकांच्या मतान निर्वाण हें अभावरुपूय ना आनी भावरुपीय ना. तांच्या मतान आत्म्याचेर दोन आवरणां आसतात. पयलें क्लेशावरण आनी दुसरें ज्ञेयावरण. फकत सुखदुख्खादी संवसारीक बंधनांचे क्लेश काबार जाले उपरांत निर्वाण प्राप्त जाता, ही हिनयानी लोकांची कल्पना म्हायानी लोकांक मान्य ना. तांच्या मतान क्लेशाप्रमाण जेन्ना ज्ञेयावरणांय पयस जाता तेन्नाच निर्वाण प्राप्त जाता. शुन्यतायेचें गिन्यान मेळप, म्हळ्यारूच ज्ञेयावरण काबार जावप

हीनयानी आनी म्हायानी ग्रंथांतल्यान दोनूय संप्रदायांच्यो निर्वाणाविशींच्यो कल्पना सादारणपणान अशो आसात -

१) निर्वाण हें निष्प्रपंच आसा. तें शब्दांतल्यान प्रकट करूंक मेळना. तो असंस्कृत धर्म हाका लागून ताका उत्पत्ती, विनाश वा परिवर्तन हे धर्म नात.

२) निर्वाणाची अनुभूती आपणांतूच जाता आनी ती आपणेंच घेवप आसता.

३) निर्वाण तिनूय काळीं बुध्दांखातिरूच आसता आनी तें एक आनी सम आसता.

४) निर्वाणाक लागून व्यक्तिचो पुरायपणान निरोध जाता.

५) अष्टांगिक मार्ग आपणायल्यार निर्वाणाची प्राप्ती जात.

६) सोपधिशेष आनी निरुपधिशेष हीं निर्वाणाचीं दोन रुपां आसात. जे कुडींत निर्वाणाच्या सुखाचो अणभव मेळटा, तें सोपधिशेष.हातूंत राग, द्वेष, मोह आनी हेर विकारांचो नाश जाता. निर्वाण प्राप्त जालेउपरांत पंचस्कंध फाटल्यान उरून ज्या अमर, अजर, शिव, अच्युत, परमशांत अशा सुखाचो अणभव मेळटा, ताका अनुपधिशेष म्हण्टात.

७) निर्वाण आनी संवसार हांचे धर्म सारके आसनात.

८) निर्वाण फकत दुख्खाभावरूप नासून तें सुखरूप आसा.

९) निर्वाण अप्राप्त आसा.

**जैन आनी निर्वाण :** बौद्ध संप्रदायाप्रमाण जैन तीर्थंकारांनीय मुक्ती वा मोक्ष हे शब्द सोडून निर्वाण हो शब्द आपणायला. पूण निर्वाण कल्पनांविशीं तांच्यांत आनी बौद्धांमदीं खूब फरक जाणवता. आत्मो पालोवप वा थंयच शांत जावप ही बौद्धांची निर्वाणकल्पना जैन लोकांक मान्य ना. तांच्या मतान आत्मो केन्नाच पालवना. पूण सगळ्या कर्मांचो नाश जाले उपरांत ताका एक नवेंच रूप मेळटा. निर्वाण म्हळ्यार पालोवप ही क्रिया आत्म्याक लागू पडना. ती संवसार आनी कर्मांकडेन संबंदीत आसा. निर्वाण पाविल्लो आत्मो एका व्हड सुखांत न्हाता, तें सूख सोडून तो संवसारांत परत केन्नाच येना. सगळ्या प्रकारांच्या कर्मासावन सुटका जावप म्हळ्यार मोक्ष आनी सगळीं कर्मां पालोवप म्हळ्यार निर्वाण.

बौद्ध संप्रदायांची आनी जैन तीर्थंकार हांची सादारणपणान निर्वाण कल्पना अशी जाता. सगळ्या प्रकारांच्या दुख्खांची निवृत्ती जावन आत्यंतीक (Eternal) सुखाची प्राप्ती जावप म्हेळ्यार निर्वाण.

- कों. वि. सं. मं.

## निर्वासीत

**निर्वासीत :** आपल्या हक्काचें घरदार नाशिल्लो मनीस. आपल्या देशांतल्यान धावंडावन घाल्ल्या कारणान वा थंयच्या त्रासांक लागून देशाभायर सरून, आलाशिरो आनी सुरक्षा मेळोवपाखातीर हेर राश्ट्रांनी वचपी लोक. निर्वासीत लोकांक आपलें घरदार, समाज वा देस आपले इत्से आड, थंयचे इबाडिल्ले स्थितीक लागून सोडचो पडटा. अशा मनशाक दुसऱ्या खंयच्या तरी देशाचो आलाशिरो घेतलेखेरीज दुसरो मार्गूच उरना. सादारणपणान धर्मीक, वंशीक, राजकीय कारणांक लागून तशेंच प्रदेशीक वा सैनिकी आपत्तेक लागून साबार लोकांक दुसऱ्या राश्ट्रांत आलाशिरो घेवपाखातीर वचचें पडटा. तांचें आपल्या देशांतलें नागरिकत्व नश्ट जाल्लें आसता.

निर्वासीत म्हळ्यार वंश, धर्म, राश्ट्रीयताय, खंयच्याय खाशेल्या समाज गटाचें वा राजकीय मतप्रणालीचें वांगडीपण ह्या कारणांक लागून छळ जातलो ह्या भंयान, आपल्या देशाभायर आशिल्ली व्यक्ती, जांकां आपल्या देशाचें संरक्षण आपणावप शक्य ना, वा वयल्या प्रकारांच्या भंयान तें आपणावपाक तयार ना, तशेंच राश्ट्रीयत्व नाशिल्ली आनी पयलीं ज्या देशांत ते व्यक्तीचो राबितो आशिल्लो, त्या देशाभायर आशिल्ली व्यक्ती, जाका त्या देशांत वचप शक्य ना. अशी व्याख्या संयुक्त राश्ट्रांच्या निर्वासितांविशीं उच्च आयुक्तांच्या कार्यालयान पास केल्लया १९५१ वर्साच्या संविधानान केल्या. युरोपी स्थलांतरीतांच्या संदर्भांतले आंतरशासकीय समितीन १९५१ त निर्वासितांची व्याख्या अशी केल्या - निर्वासित म्हळ्यार कसल्याय झुजाक वा आपत्तीक लागून बळी पडिल्ली व्यक्ती, जाची जिणेची वेवस्था त्या झुजाक लागून वा आपत्तीक लागून पुरायपणान इबाडिल्ली आसता. इल्फान रीस हाणें आपल्या 'वी स्ट्रेंजर्स अँड अफ्रेड' (१९५९) ह्या पुस्तकांत केल्ले व्याख्येवरवीं 'जो कोण आपल्या घरांतल्यान हुमटला, जाणें कृत्रीम वा पारंपारिक शीममेर हुंपल्या आनी जो पयलीं परस वेगळ्या सरकाराकडेन वा प्राधिकरणाकडेन संरक्षणाची आनी पोसपाची आस्त दक्रता, तो निर्वासीत'.

राश्ट्र-राज्याचे निर्मिती उपरांत निर्वासितांचो प्रस्न राश्ट्रांमुखार उबो रावलो. प्राचीन लोकांचो राबितो थीर नाशिल्लो. ते आपलें पोट भरपाखातीर एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार भोंवत आसताले. पूण तांच्या अधिवासाक थिराय आयले उपरांत तांचे भितर झुजां आनी हेर तरांचे संघर्श जावपाक लागले. हाका लागून लोकांचें व्हडा प्रमाणात स्थलांतर जातालें. हाचो आदल्या इतिहासांत पुरावो मेळटा. प्रबोधन काळापयलीं भारताच्यो तशेंच हेर देशांच्यो शिमो परकी लोकांखातीर उक्त्यो आशिल्ल्यो. तशेंच, परकी लोकांक आलाशिरो दिवपाचें तत्त्व आशिल्लें. पूण एकुणिसाव्या आनी विसाव्या शेंकड्यासावन उक्ते राश्ट्रीय शिमेचो काळ काबार जालो. राश्ट्र-राज्यां अस्तित्वांत आयलीं. तांच्यो शिमोय थरोवन त्यो हेर देशांतल्या लोकांखातीर बंद केल्ल्यो. हाका लागून निर्वासितांचो प्रस्न उबो रावलो.

निर्वासीत निर्माण जावपाचीं कारणां वेगळीं-वेगळीं आसात. सुर्वेक युरोपांत उपराशिल्लो हो प्रस्न उपरांत हेर राश्ट्रांकूय सतावपाक लागलो. पयल्या आनी दुसऱ्या म्हाझुजांक लागून निर्वासितांचो आंकडो खूब वाडलो. कांय राश्ट्रांतल्या हुकूमशायी राजवटींक लागून आनी कांय राश्ट्रांनी अतिरेक्यांक लागुनूय निर्वासितांचो प्रस्न निर्माण जाल्लो. परकी लोकांच्या आलाशिऱ्याचेर आनी राबित्याचेर साबार बंधनां घालपाक लागले. हिटलराच्या काळांत (१९३४-४५)) ज्यू लोकांचें नागरीकत्व आनी संपत्ती काडून घेवन तांकां जर्मन देशांतल्यान धांवडावन घाल्ले वा हाल करून जिवेशीं मारिल्ले. तशेंच, तांकां त्रास दिवन इत्सा नासतना लेगीत जर्मनी

सोडपाक लायिल्ले. १९७१ त उदेंत पाकिस्तानांतल्यान (बांगलादेश) राजकीय आनी धर्मीक छळांक लागून सुमार एक कोटी लोकांनी भारतांत आलाशिरो घेतिल्लो.

सादारणपणान निर्वासितांचे चार प्रकार केल्ले आसात:

**(१) तात्पुरते निर्वासीत** – लश्करी हालचालींक लागून वा आक्रमणाक लागून कांय लोकांक देश सोडून वचचें पडटा. तांकां सगळ्या तरांचे हालूय सोंसचे पडटात. पूण आक्रमण सोंपले उपरांत आनी थंय शांतताय आयले उपरांत हे निर्वासीत लोक परत आपल्या देशांत वतात.

**(२) अदलाबदली जावपी निर्वासीत** - दोन देशांभितर झूज चलता आसतना अल्पसंख्येन आशिल्ले लोक आपल्या मूळ देशांत आलाशिरो घेतात. पूण झूजकबलात जाले उपरांत अशा लोकांची अदलाबदली करतात.

**(३) राजकीय निर्वासीत** - कांय लोक अकस्मात बदल जाल्ले राजकीय परिस्थितीक विरोध करतात, तेन्ना अस्तित्वांत आशिल्ली राजवट तांकां देशाभायर धांवडावन घालता वा तशी परिस्थिती निर्माण करता. देखीक - रशियी क्रांतीच्या तेंपार वा उपरांत रशिया सोडून गेल्ले लोक. अशे लोक तांचे राजकीय नदरेन फावो आशिल्ली राजवटीची स्थापणूक करपाचे यत्न करतात आनी अशी राजवट आयल्यार ते आपल्या देशांत परत वचूंक शकतात. हें शक्य नाशिल्यान ज्या देशांत ते निर्वासीत म्हणून वतात. थंयच ते आपलो राबितो करतात.

**(४) भुगोलीक पुनर्रचणुकेक लागून निर्माण जाल्ले निर्वासीत** - अस्तित्वांत आशिल्ल्या भुगोलीक क्षेत्राचे पुनर्रचणुकेक लागून साबार फावटीं निर्वासीत निर्माण जातात. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत जर्मन देश विभागिल्लो तेन्ना अशे निर्वासीत निर्माण जाल्ले.

निर्वासीतांची परिस्थिती काकुळट करपासारखी आसता. आपलो देश सोडून दुसऱ्या देशांत वतना तांकां खूब हाल सोंसचे पडटात. तांचेर शारिरीक आनी मानसिक ताण पडिल्लो आसता. मालमत्ता, भुरगींबाळां, सोयरेधायरे हांचेसयत सुरक्षीत सुवातेर पावपाचें कठीण काम तांचे मुखार आसता. रस्त्यावयल्यो अडचणी, वत-पावस, जेवणखाणचें उणेपण, दुस्मानाचो पाठलाग, दुयेंस आनी हेर सगळ्या आपत्तींक तांकां तोंड दिवंचें पडटा. कांय जाणांक वाटेर मरणूय येता. सुरक्षीत सुवातेर पावले उपरांत तांचे हाल वा त्रास उणे जातात अशेंय न्हय. तांकां नवो संवसार थाटपाखातीर नव्या राश्ट्राचें नागरिकत्व मेळोवंचें पडटा. कामधंदो करचो पडटा आनी आलाशिऱ्याखातीर नवें घर बांदचें पडटा. नव्या लोकांचे रितीरिवाज, संस्कृताय, भास हीं वेगळीं आशिल्ल्यान ती समजून घेवपाची वा शिकपाचीय गरज आसता. नव्या राश्ट्रांतल्या लोकांनीय निर्वासीतांक आपलेमदीं आस्पावन घेवपाची गरज आसता. निर्वासीतांनीय पुरायपणान बदलिल्ली परिस्थिती मतींत घेवन थंडसाणेन वागून नव्या राश्ट्रांतल्या लोकांचो विश्वास आनी मनां जिखपाक जाय.

निर्वासितांचो प्रस्न खूब आदलो, पूण ताचेर आंतरराश्ट्रीय नदरेन रशियी क्रांती उपरांत विचार जावपाक लागलो. रशियी क्रांती उपरांत १९१७ - २० ह्या काळांत सुमार १५,००,००० निर्वासीत रशियेंतल्यान धांविल्ले. पयल्या म्हाझुजाक लागुनूय साबार लोक निर्वासीत जाल्ले. ह्या सगळ्या निर्वासितांखातीर त्या तेंपावयल्या राश्ट्रसंघान १९२० त नॉर्वेच्या फ्रित्यॉफ नान्सेन हाका आयुक्त म्हणून नेमिल्लो. १९३०त ताका मरण आयले उपरांत निर्वासितांच्या प्रस्नाखातीर संघराश्ट्रांनी 'नान्सेन इंटरनॅशनल ऑफिस फॉर रेफ्युजीस' हे आंतरराश्ट्रीय स्वायत्त संघटनेची स्थापणूक केली. ही संस्था निर्वासितांची वळख पटपाखातीर 'नान्सेन पासपोर्ट' दिता. ताचो उपेग निर्वासितांक नागरी दर्जो, नोकरी, शिक्षण आनी समाजीक आदार मेळोवन दिवपाक जाल्लो. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत १९४७ 'दी इंटरनॅशनल रेफ्युजी ऑर्गनायझेशन' हाची स्थापणूक जाली. हे संघटनेन १९५१ मेरेन काम केलें. १९६८ त मनीस हक्कांचें आंतरराश्ट्रीय वर्स मनयलें. त्या वर्सा उच्च आयुक्त प्रिन्स सद्रुद्दीन आगाखान हाणें सगळ्या देशांक १९५१ची कबलात आनी १९६७ची घोशणा मान्य करपाक आनी निर्वासितांक परकी मानिनासतना आपले मानून तांकां उदारतेची वागणूक दिवपाचें आव्हान केलें.

– कों. वि. सं. मं.

## निलगिरी पर्वत

**निलगिरी पर्वत** : दक्षिण भारतांतलो मुखेल दोंगरांचो चोमो. हो दोंगरी वाठार तमीळनाडू राज्यांत सुमार २५९० चौ. किमी. वाठारांत पातळिल्लो आसा. हाचे उत्तरेक सरासरी १,००० ते १,२१० मीटर उंचायेचों म्हैसूरचो सडो आसा. भोंवतणच्या सखल वाठारासावन निलगिरीची उंचाय वाडत वता. मदींमदीं जायतीं तेमकां दिसतात. तीं १,८३० ते २,४४० मीटर ऊंच आसून, दोडाबेट्टा ह्या तेमकाची उंचाय सगळ्यांत चड म्हळ्यार २,६३७ मी. आसा. उदेंतेवटेन फकत ३ किमी. अंतराचेर २,०००मी. ची देंवती आसा. दक्षिणेक कोईमुतूरचो सरासरी ६१० मी. उंचायेचो सडो आसा. निलगिरीच्यो कोईमुतूराकडल्यो (दक्षिण) देंवत्यो च्याच्या मळ्यांनी व्यापिल्ल्यो आसात.

पैकारा आनी मोयार ह्या न्हंयांच्या देगणांनी निलगिरीक दख्खन सड्यापसून आनी दक्षिणेकडल्या भवानी न्हंयेच्या देगणान कोईमुतूर सड्यासावन वेगळें केलां. दक्षिणेकडल्या पालघाट खिंडी पलतडीन अन्नमलई दोंगर आनी पलनी दोंगुल्ल्यो आसात. निलगिरी दोंगरी वाठार म्हळ्यार फकत पोरण्या सड्यांचो अवशिश्ट भाग नासून, उत्तर जुरासिक आनी तृतीयक सुर्वेच्या काळांत निर्माण जाल्ले हे गटपर्वत (हॉर्स्ट) आसात.

निलगिरी वाठारांत वाडटे उंचायेप्रमाण पावस १५० सें. मी. ते ४०० सेंमी. मेरेन वाडत वता. शिंया तेंपार हांगाचें तापमान ३.२°सॅ. ते २०° सॅ. आनी गिमादिसांनी १३° सॅ. ते २४° सॅ. आसता. भरपूर पावस आनी फावो ती जमीन आशिल्ल्यान हांगासल्लो वाठार झाडांनी भरिल्लो आनी निलगिरीचो अर्दापरस चड वाठार दाट रानान व्यापिल्लो आसा. हांगाच्या दरीदेगणांत 'शोलास' नांवाचीं रानां आसात. उटकमंड आनी कुन्नूर तालुक्यांत रानां चड आसात. हांगा चड करून वाग, बिबटे, काळवीट, सांबर, हत्ती हे प्राणी दिसतात. थंयच्या उत्तर भागांतल्या देगणांचेर अभयारण्य निर्माण केल्लें आसा.

निलगिरी वाठारांतल्यो चडशो अर्थीक घडामोडी उटकमंड ह्या थंड हवेच्या वाठारांत घडटात. थंड हवा आनी सोबीत वाठार हांकां लागून हें स्थळ पर्यटकांचें केंद्र जालां.

निलगिरीच्या देगणाचेर खूब प्रमाणांत काफी आनी च्याचे मळे आसात. हांगाच्या सरकारी मळ्यांत सिंकोनाची लागवड करतात. तेच परीन हांगाच्या कारखान्यांत क्विनीन तयार करतात. हांगा १९३२त पैकारा जलविद्युत् येवजण तयार जाली. पैकारा आनी मोयार ह्या दोन न्हंयांच्या देगणांतल्या येवजणांक लागून ह्या वाठारांतल्या उद्देग धंद्याची वाड

जायत गेल्या.

हांगासल्लो वाठार दोंगराळ आशिल्ल्यान हांगा सोंपणासोंपणांची सोपान शेती करतात. तेभायर भाजीपालो फळां, च्या, काफी अशीं नगदी पिकां हांगा चड प्रमाणांत घेतात. ह्या दोंगराळ वाठारांत तोडा, बदागा, इरुला, कुरुंबा आनी कोटा ह्यो वन्य जमाती आसात. गोरवां पोसप आनी च्याच्या मळ्यार मोलमजुरी करप हे ह्या लोकांचे मुखेल वेवसाय.

उटकमंड – वॅलिंग्टन – कोईमुतूर असो तीनरुळी 'ब्ल्यू माउंटन रेल्वे' नांवाचो रेल्वेमार्ग आनी रस्तोय आसा. म्हैसूर ते उटकमंड मात फकत रस्तोमार्ग आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**निवलकांड :** उदक सांठून दवरपी वनस्पत. हातूंत जायत्या तरेच्या वनस्पतींचो आस्पाव जाता. तातूंतल्लो कांय अशो १) वई निवलकांड २) त्रिधारी (वा चौधारी) निवलकांड ३) फोडाचो निवलकांड ४) कांट्याबगर निवलकांड ५) पांचकोनी निवलकांड ६) वाल निवलकांड (ब्रह्मकमळ)

**१) वई निवलकांड :** (मराठी : वई निवडुंग मिंगुट, मिंगत; हिंदीः सेहुंद,थोर : गुजरातीः थोर; कन्नड : येल्लिकळ्ळी; संस्कृतः सीहुंड, स्नुही, लॅटिनः युफोर्बिया नेरिफोलिया; कूळः युफोर्बिएसी).

हें पानां झडपी झाड सुमार ६ मीटर उंचायेमेरेन वाडटा. तें गुळगुळीत पूण कांटेरी आसता. खांदयो वाटकुळ्यो वा कांय प्रमाणांत पंचकोनी, मासाळ आसतात. त्यो झुबक्यांनी येतात. तांचेर उपपर्णी जोड कांटे उंचायेचेर मळसुत्रेवरी आसतात. पानां सादीं मासाळ १५-३० सेंमी. लांब, एकाआड एक, तोंकाकडेन अशीर आनी वाटकुळीं आसून खांदयेच्या तोंकाक येतात. फुलां एकलिंगी, खूब ल्हान पेल्यावरी, पुश्पबंधांत आसतात. फळ ल्हान आसून बी गुळगुळीत आसता. फुलां आनी फळां मार्चांत येतात. ऑक्टोबर नोव्हेंबरांत ताचीं पानां गळटात आनी नवी पालवी पावसाळ्याचे सुरवातीक येता.

हें रानटी झाड पेगु, ब्रह्मदेश, पाकिस्तान, भारत आदी वाठारांनी सगळेकडेन रूक्ष जाग्यार दिश्टी पडटा. दख्खन सड्याचेर फातराळ जाग्यार आनी अस्तंते देगेर सामान्यपणान ही वनस्पत आसून चड करून वंयेखातीर लायतात. ह्या झाडाचो धवो दीख विखारी, रेचक आनी कात तांबडी करपी तसोच कफोत्सारक आसता. चामखीळ आनी कातीवयलो फोड ना करपाक ह्या दिखाचो उपेग जाता. कानदुखीर तशेंच दोळ्यांच्या विकारांत (दोळे आयल्यार) तो काजळावरी घालतात. साकरीचो पाक आनी दीख हांचे समान मिश्रण दम्याचेर गुणकारी थरता. झाडांतल्या दिखापसून गटांपर्चासारको पदार्थ मेळटा.

**२) त्रिधारी (वा चौधारी) निवलकांड :** (मराठी : त्रिधारी निवडुंग, हिंदीः त्रिधारा सेहुंड ; गुजरातीः तिंधारी सेंड; चदर कळ्ळी; संस्कृतः वज्री, वज्रकंटक; इंग्लीशः ट्रँग्युलर स्पर्ज; लॅटीनः युफोर्बिया अँटिकोरम; कूळः युफोर्बिएसी).

हें सुमार ४-९ मी. उंचायेमेरेन वाडपी कांटेरी झोंप वा ल्हान झाड, ताचें खोड आनी खांदयो संधियुक्त आसतात. खोडाचेर आनी खांदयांचेर उब्यो खोबणी आनी उबे रूंद दांत आनी दाट पाखां आसतात. पानां खूब ल्हान, मासाळ, देंठ नाशिल्लीं आनी गळून पडपी आसतात. जोडकांटे आखूड, तीक्ष्ण, द्विखंड आसतात. फुलां पेल्यावरी आनी हळदुवीं आसून जून-सप्टेंबर म्हयन्यांत येतात. एकाच फुलांत जायतीं केसरदलां (पु. पुश्पां) आनी तीन स्त्री-पुश्पां आसतात. बोंड त्रिखंडी आनी ल्हान आसता. हें झाड श्रीलंकेंत आनी भारताच्या उश्ण भागांत आनी रूक्ष वाठारांत ६०० मी. उंचायेमेरेन दिश्टी पडटा. ह्या झाडाचें लांकूड करडें मोव आनी हलकें आसून खेळणीं वा किरकोळ वस्तूंखातीर उपेगी आसता. खोडाचो काडो वा रोस संधिवाताचेर दितात. चामखीळ आनी हेर कातीच्या रोगांचेर तशेंच उदक सांचून येवपी सूज आनी तंत्रिका विकारांचेर खोडाचो रस वापरतात. दांतदूखी, भेरेंपण, गळगंड आदी विकारांचेर रस गुणकारी आसता.

**३) फोडाचो निवलकांड :** (मराठी : फड्या निवडुंग; इंग्लीश : स्पिलर थॉर्न; लॅटीन : ऑपन्शिया ऑ. नायग्रिकॅन्स; कूळ : कॅक्टेसी).

हें नागाच्या कण्यावरी कांटेरी झोंप. नागफण्याचीं कॅक्टेसी कुळांत वर्णन केल्लीं जायतीं शरिरीक लक्षणां ह्या वनस्पतींतूय दिश्टी पडटात. ह्या मासाळ वनस्पतीचीं पर्णकांडां (पानांचें कार्य करपी चापट खोड) सपाट आनी तांतया आकाराचीं आसून तांचेर २-५ कांट्यांचे चोमे आसतात. हाका आयिल्लीं फुलां सुर्वेक हळदुवीं आनी उपरांत गाड तांबडीं आसतात. फळां (जून जातकूच) गाड तांबडीं वा जांबळट आसतात. हाचे कांटे सरळ, बारीक आनी तपकिरी रंगाचे आसतात.

**४) कांट्यांविरयत निवलकांड :** (मराठी : बिनकाट्याचा निवडुंग; इंग्लीश : स्पायनलॅस कॅक्टस, इंडियन फिग; लॅटिन : ओपन्शिया फायकस इंडिका).

ही जात ओपन्शिया वंशांतल्या फोड्या निवलकांड आनी नागफण्या-वरी आसून तिच्या आंगार कांटे आसतात. ह्या ल्हान झाडाचीं पर्णकांडां लांबट वांटकुळीं वा आयत (३०.५० सेंमी.) आसून ताचेर सुर्वेक हळदुवीं आनी उपरांत ५-१० सेंमी. लांब तांबडीं वा जांबळीं फळां येतात. भारतांत तीं खूब पुर्विल्ल्या काळासावन आसात. ही फकत लागवडी खालाच दिश्टी पडटा. मेक्सिको आनी भुमध्यदर्या वाठारांत तिची व्हड लागवड आसून तातूंतल्यान खावपाच्या आनी बियो नाशिल्ल्या फळांचें उत्पादन जाता. हाची लागवड सोंपी आनी फायद्याची आसता. हाचीं फळां रुचीक आसून फळांपासून गोडशें आनी सोरे तयार करतात. बियो पुश्टीक आसून तांचें पीठ जनावरांक खावंक घालतात. फुलांचो काडो मूत्रल आनी काड्याचो रस कळांचेर उपायकारक थारता. हे वनस्पतीच्या रसाचेर कांय म्हत्वाच्या कवकांचें (पॅनिसिलियम, म्युकरा ॲस्परजिलस) आनी सुक्ष्मजिवांचें (लक्टोबॅसिलस) संवर्धन करूंक मेळटा.

**५) पांचकोनी निवलकांड :** (मराठी : पाचकोनी निवडुंग; कन्नड : कळ्ळी; संस्कृत : रात्रिप्रफुल्ल, महापुरुष; इंग्लीश : नायट ब्लूमिंग कॅक्टस; लॅटिन : सेरियस ग्रँडिफ्लोरस, सेलेनिसेरियस ग्रँडिफ्लोरस; कळ : कॅक्टेसी).

हें सुमार ३ मी. उंचायेचें पेरां आशिल्लें, मासाळ, कांटेरी, खांदयो आशिल्लें झाड. ह्या झाडाक पानां आसनात. हें झाड मूळचें जमायकांतलें आसून सोबीतकायेक लागून आनी वंयेखातीर हेर देशांनी लायिल्लें दिश्टी पडटा. हो निवलकांड फातराळ जमनींत उक्तडार बरो जाता. हाचें खोड पाचवें आसता आनी ताचेर ४-६ सपाट कांटेरी धारो आसतात. ह्या धारांचेर तीक्ष्ण आनी आंखूड कांट्यांचे चोमे आसतात. पावसाळ्यांत सुमार १५-२० सेंमी. लांबायेचीं सोबीत व्हड वासाचीं फुलां येतात. तीं रातचींच फुलतात आनी सूर्य उदेवचे आदीं बातात. फुलां, तेचपरी ताजे

आनी तरणे दांडे हांचेपसून ९०% आल्कोहॉलांत काडिल्लो अर्क वखदी आसता. ताची क्रिया डिजिटॅलिनावरी आसता. तो काळजाक शक्त दिवपी आनी मूत्रजनक (मूत सुरू करपी) आसून जल आनी गळगंड हाचेरूय तो दितात. खोडाचे कुडके लावन नवी लागवड करतात.

**६) वाल निवलकांड (ब्रह्मकमळ) :** (मराठी : वेली निवडुंग).

पानावरी पाचव्या आनी पसरट खोडाचेर फुलां येवपाचें मुखेल लक्षण हाच्यांत दिसता. ताका लागून ह्या झाडाक एपिफायलम हें लॅटिन नांव दिलें. एपिफायलमांत वट्ट २१ जाती आसून तातूंतल्यो सुमार १६ दक्षिण आनी मध्य अमेरिकेंत आनी कांय वॅस्ट इंडिसांत मेळटात. तांचें मुखेल खोड दांड्यावरी आनी काश्ठमय आसून खांदयो मात सपाट, पातळ आनी पानांवरी तशेंच दांतेरी आसतात. तांकां खरीं पानां आसनात. आनी कांटेय आसनात. केन्ना केन्ना तरण्या भागारूच कांटे येतात. खांदयांकडेन आशिल्ल्या खाचींतल्यान मोटीं, धवीं, हळदुवीं आनी तांबडीं फुलां येतात. कांय जातींत तीं फकत रातचींच फुलतात. कांय दिसाचीं फुलतात. कांय फुलांक वास नासता. फुलांमदीं जायतीं लांब केसरदळां आसतात. फळां वाटकुळीं वा लांबट-वाटकुळीं, तांबडीं वा जांबळीं आसून पिकतकूच एकेवटेन फुट्टात आनी तातूंतल्यान किरमिजी वा धव्या गरांतल्यान काळीं बियां उकतीं पडटात. कांय फळां खावपासारकीं आसतात. ओडलायण्या फुलांक लागून ह्या वंशांतल्यो जाती पोरसांत लायतात. तशेंच ताचे पसून संकर करून नवे प्रकार आनी उपजाती उपलब्ध जाल्यात.

एपिफायलम मॅकरोप्टेरम ही जात मूळची ब्राझीलांतली आसून ह्याच वंशांतली सुमार ५ मी. उंचायेची वाल आसून ती भारतांत सादारणपणान पोरसांत लायिल्ली दिश्टी पडटा. हाचें पुराय फुलिल्लें फूल कमळावरी दिशिल्ल्यान ताका चंद्रकमळ, ब्रह्मकमळ, शैवकमळ, पर्णकमळ आदी थळावीं नांवां आसात. पावसाळ्यांत ह्या झाडाक लांबट सुमार २५ सेंमी. व्हड, धवीं आनी खुबूच वासाळ अशीं फुलां खांदये कडेन एकेकटीं येतात. तीं रातचीं फुलतात आनी सूर्य उदेवंचे आदी बावतात. फुलां भितर नाजूक, लांबशो धव्यो जायत्यो पाकळ्यो आसतात. हाका सहसा फळां जायनात. नव्या झाडाची लागवड खोडाचे कुडके लावन करतात.

– कों. वि. सं. मं.

## निवेदिता, भगिनी :

(जल्म : २८ ऑक्टोबर १८६७, उनगॅनन - आयर्लंड; मरण : १३ ऑक्टोबर १९११ दार्जिलिंग).

विवेकानंदाची नामनेची शिश्या आनी भारतीय संस्कृतायेची एक



पुरस्कर्ती. मूळ नांव मार्गारेट नोबल. तिच्या बापायचें नांव सॅम्युअल आनी आवयचें नांव इझाबॅल. तिचो बापूय क्रिस्तांव धर्मोपदेशक आशिल्लो. बापूय भायर पडटकूच तिणें लंडनांत शिक्षिकेचो वेवसाय आपणायलो. पेस्टालोत्सी आनी फ्रोबॅल हांचे नवे शिक्षणपद्‌दतीच्या प्रभावाक लागून तिणें १८९२त विंबल्डनांत शाळा सुरू केली. २२ ऑक्टोबर १८९५ दिसा तिची विवेकानंदाकडेन भेट जाली. स्वामीजींच्या व्यक्तिमत्वान ती प्रभावीत जाली.

विवेकानंदाचे सांगणेप्रमाण ताच्या कार्यांत पालव दिवपाखातीर २८ जानेवारी दिसा ती भारतांत आयली. रामकृष्ण परमहंसाची घरकान्न शारदामाता हिचेकडल्यान तिणें हिंदू धर्माचे संस्कार आत्मसात करून घेतले. कलकत्त्याच्या 'बोस पारा लेन' हातूंत रावन आपले मोगाळ वागणुकेन तिणें थंयच्या कर्मठ लोकांक आपलेशे करून घेतले. ११ मार्च १८९८ दिसा कलकत्त्याच्या स्टार रंगमंदिरांत घडोवन हाडिल्ले सभेंत धर्मशिक्षण आनी हिंदूस्थानची सेवा हें आपलें उद्‌दिश्ट आशिल्ल्याचें तिणें सांगलें. २५ मार्च १८९८ दिसा तिणें स्वामी विवेकानंदाकडल्यान ब्रह्मचारिणी व्रताची विधीपूर्वक दिक्षा घेतली. विवेकानंदान तिका निवेदिता अशें नांव दवरलें. स्वामिजींवांगडा भोवंडी करतकूच हिंदू लोक आनी तांच्यो चालीरिती हांची तिका लागच्यान वळख जाली.

१२ नोव्हेंबर १८९८ दिसा तिणें कलकत्त्यांतल्या बागबाजारांत एका बालिका विद्यालयाची स्थापणूक करून राश्ट्रीय शिक्षण कार्याक सुरवात केली. फेब्रुवारी १८९९त कलकत्त्यांत आयिल्ले प्लेगाचे धामींत तिणें सेवाकार्य केलें. त्याच वर्सा ती अमेरिकेक गेली आनी तिणें थंय रामकृष्णसाहाय्य संस्था स्थापन केली. पॅरिस आनी लंडनांतल्या प्रवासा उपरांत १९०२त ती भारतांत परत आयली. त्याच वर्सा विवेकानंद ह्या संवसाराक अंतरलो. त्याच वर्सा निवेदितान राश्ट्रीय स्वातंत्र्य आंदोलनाचो वावर सुरू केलो. १९०२ ते १९०४ ह्या काळांत पुराय भारतांत प्रचार भोंवडी करून लोकांमदीं जागृताय निर्माण केली. स्वतंत्र आनी संघटीत भारत निर्माण करपाखातीर तिणें देसभक्त तरणाट्यांची संघटना उबारली. १९०२त पुण्याक वचून हुतात्मे जाल्ल्या चाफेकर भावांचे आवयच्या पांयांचो धुल्ल तिणें तकलेक लायलो. १९०५त बनारसाक भरिल्ल्या कॉंग्रेस अधिवेशनांत तिणें वांटो घेतलो आनी स्वदेशी चळवळीक आपलें फाटबळ दिलें. त्याच वर्सा लॉर्ड कर्झनाचे बंगाल फाळणेचे येवजणेक तिणें खर विरोध केलो. भूपेंद्रदासाक तिणें जामिनाचेर सोडलो. १९०६त, उदेंत बंगालांत दुकळ आनी हुंवार आयिल्लो. त्या वेळार तिणें लोकांक मदत केली. युरोपांत आनी अमेरिकेंत आशिल्ल्या भारतीयांक ब्रिटीश राजवटीआड संघटीत करपाचो यत्न तिणें केलो.

निवेदितान बरयल्लीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां अशीं - 'काली द मदर' १९०० ('द वॅब ऑफ इंडियन लायफ') (१९०४) ('क्रॅडल्स टेल्स ऑफ हिंदूइझम') (१९०७) ('इंडियन स्टडीस ऑफ लव अँड डॅथ') १९०९ आनी ('त मास्टर अॅझ आय सॉ') (१९१०).

– कों. वि. सं. मं.

## निवेद्य :

पुजेंतल्या सोळा उपचारांतलो एक उपचार. 'निवेदं अर्हतीति'. निवेद. देवाक निवेदनीय म्हणजे ओंपपासारकें अशें जें द्रव्य तो निवेद्य. निवेद्य हो पंचविध (पांचतरांचो) आनी शुद्ध आसचो. तंत्रसारांत निवेद्याविशीं एक श्लोक आसा. तो असो -

निवेदनीयं यद् द्रव्यं प्रशस्तं प्रयतं तथा।
तद् भक्ष्यार्हं पञ्चविधं नैवेद्यमिति कथ्यते।।

भक्ष्यं भोज्यं च लेह्यं च पेयं चूष्यं च पञ्चमम्।
सर्वत्र चैतं नैवेद्यमाराध्यास्यै निवेदयेत्।।

अर्थ – जें निवेदनीय द्रव्य आसतलें तें प्रशस्त, पवित्र आसचें तशेंच तें खावपाक योग्य आसून पांच तरांचें आसचें. हे पांच प्रकार अशे आसातः भक्ष्य-गिळपाक मेळटा तशें, भोज्य-चाबून खावपासारकें, लेह्य - चाटपासारकें, पेय-पियेवपासारकें आनी चूष्य-चोखपासारकें आसा, अशे पांचूय पदार्थ आशिल्लो निवेद्य आसचो. तो निवेद्य देवाची पुजा करतकूच देवाक ओंपचो. भांगर, रुपें, तांबें, फातर, कमळाचें पान वा यज्ञीय लाकूड हांच्या पात्रांत निवेद्य दवरून तो देवाक दाखोवंचो. निवेद्य देवाच्या उजव्या हाताक दवरचो. तंत्रसारांत म्हळां, देवाच्या दावे वटेन दवरिल्लो निवेद्य अभक्ष्य थरता आनी ताचेवांगडा दवरिल्लें उदकूय सोऱ्याभाशेन जाता. विष्णुक दाखयल्लो निवेद्य यजमानान स्वता खावंचो. विष्णुदत्त निवेद्य हो चारूय आश्रमांतल्या लोकांक भोज्य थारता. हेर देवांक दाखयल्लो निवेद्य ब्राह्मणांक दिवंचो वा त्या त्या देवांच्या भक्तांक दिवंचो अशें सांगलां.विष्णुच्या निवेद्याविशीं गृह्य परिशिष्टांत सांगलां तें अशें -

पवित्रंविष्णुनैवेद्यं सुरसिद्धर्षिभिः स्मृतम्।
अन्यदेवस्य नैवेद्यं भूक्त्वा चान्द्रायणं चरेत्।।

अर्थ – विष्णुचो निवेद्य हो देव, ऋषी आनी सिद्ध हाणीं पवित्र मानला. तशेंच पुजकान तो भक्षण करचो. पूण हेर देव जशे शिव सूर्य ह्या देवांक दाखयल्लो निवेद्य भक्षण केल्यार चांद्रायण प्रायश्चित करचें.

निवेद्य देवामुखार दवरतना ताचेपोंदा उदकान चवकोनी मंडल काडचें. उपरांत हातांत तुळशीचें पान, दुर्वा वा फूल घेवन ताणें तो निवेद्य प्रोक्षण (देवाक दाखोवप) करचो आनी फूल त्या निवेद्याचेर दवरचें . उपरांत -

प्राणाय स्वाहा, अपानाय स्वाहा, व्यानाय स्वाहा,
उदानाय स्वाहा, समानाय स्वाहा, ब्रह्मणे स्वाहा।

हो मंत्र म्हणून निवेद्याकडेन हात करून तो घांस लायिल्लेभाशेन देवाच्या तोंडाकडेन व्हरचो. त्या वेळार दावो हात स्वताच्या हड्ड्याचेर दवरून अधोमूख जावंचें. वयर दिला तो मंत्र म्हणूत जातकूच 'मध्ये पानीयं समयर्प्रयामि' म्हणून ताम्हनांत उदक सोडचें. उपरांत परतून मंत्र म्हणून 'अमुक देवताभ्यो नमः नैवेद्यं समयर्पयामि' अशें म्हणून ताम्हनांत उदक सोडचें.

निवेद्याचो खंयचोच पदार्थ भश्टल्लो, अभक्ष्य, शेळो, शिजूंक नाशिल्लो,करपल्लो वा उश्टो आसूंक फावोना. तो धांपून देवामुखार हाडून उपरांत ताचेवयलें धांपणे काडचें. निवेद्य म्हणून फळ दाखोवपाचें आसल्यार ते कुसकें, किडिल्लें, तरणें वा आंबट आसूंक जायना.

महानिवेद्यांत पुरण, वरण, भाजयो, कोशिंबिरी अशें षड्रस अन्न आसचें. जेन्ना महानिवेद्य दाखोवपाचो नासता तेन्ना गोड सोय, पंचखाद्य, दूद वा फळ हांचो निवेद्य दाखोवंचो. महानिवेद्य जातकूच देवाची आरती करची.

चित्पावन ब्राह्मणांमदीं एका खाशेल्या दिसा, कुलदेवतेक निवेद्य दाखोवपाची चाल आसा. चैत्री पाडवो, दसरो, दिवाळी, देवदिवाळी, होळी ह्या परबां वेळार हे निवेद्य दाखयतात. कांय लोक शारदीय नवरात्रांनी आनी वासंतिक नवरात्रांनी दाखयतात. श्रावण म्हयन्यांत सोमारा शिवाक, पौष पुनवेक भगवतीक आनी मार्गशीर्ष शुद्ध पाडव्याक ग्रामदेवतांक निवेद्य दाखयतात. लग्नमुजी वेळार देवांक निवेद्य दाखोवपाची चाल आसा.

महापुरसाचो निवेद्य कांय लोक घराभायर दवरतात, जाल्यार कोळेश्वराचो निवेद्य घरांत प्रसाद म्हणून घेतात. कनकेश्वर, विश्वेश्वर, महालक्ष्मी ह्या देवांचे निवेद्य घरांतले लोक खातात. पूण निरंकारी, ब्रह्मदेव, निनुदेव, मूळदेव, जोगेश्वरी हांचो निवेद्य गरीबांक वा गुरवाक दितात. कांय लोक भराडी, गावरखा, मांग ह्या देवांचे निवेद्य वेगळे दाखयतात आनी तो निवेद्य म्हार, झाडूवाले, भंगी, मडवळ, म्हाले हांकां दितात. सोमेश्वर, पद्मावती, रवळनाथ आनी विठलादेवी हांचे निवेद्य अस्सल मराठा लोकांक दिवपाची चाल कांय कुटुंबांनी आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**निवृत्तिनाथ :** (जल्म : इ स. १२७३, आपेगांव; मरण इ. स. १२९७).

एक मराठी संत कवी. ज्ञानेश्वराचो व्हडलो भाव आनी गुरू. पैठणासावन आठ मैलांचेर गोदावरीचे देगेर आशिल्ल्या आपेगांवच्या कुलकर्णी घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचें नांव विठ्ठलपंत आनी आवयचें नांव रुक्मिणी. निवृत्तिनाथ नाथसंप्रदायी आशिल्लो. ताची गुरूपरंपरा अशी - मस्त्येंद्रनाथ - गोरखनाथ - गहिनीनाथ वा गैनीनाथ - निवृत्तिनाथ.

गैगीनाथाकडल्यान आपल्याक कृष्णभक्तीचें रसायन मेळ्ळें आनी गोरक्षनाथान आपल्याक ताचें रहस्य सांगलें अशें निवृत्तिनाथान एकेकडेन सांगलां. सुमार तीन-चारशें अभंग आनी एक हरिपाठ इतली रचना, निवृत्तिनाथाच्या नांवाचेर आसा. योग, अद्वैत तशेंच कृष्णभक्तीचेर आदारिल्ले हे अभंग आसात. पूण निवृत्तिनाथाक कवी म्हणचेपरस ज्ञानेश्वराचो मार्गदर्शक म्हणून चड वळखतात. निवृत्तिनाथान आपलें पुराय अध्यात्मधन ज्ञानेश्वराक दिवन आपूण निवृत्त जालो, अशें निवृत्तिनाथाविशीं म्हण्टात. ज्ञानेश्वरान, खूबकडेन निवृत्तिनाथाविशीं आपलो आदरभाव उकतायला.

निवृत्तिनाथान निवृत्तिदेवी, निवृत्तिसार आनी उत्तरगीताटीका अशे तीन ग्रंथ बरयले, अशें जाणकारांचें मत आसा. पूण हे ग्रंथ सद्या उपलब्ध नात. धुळ्याच्या श्रीसमर्थवाग्देवता मंदिरांत 'सटीक भगवद्गीता' आनी 'समाधि बोध' हीं दोन हातबरपां निवृत्तिनाथांचीं म्हणून दवरल्यांत.

ज्ञानेश्वर आनी सोपानदेव हाणीं समाधी घेतकूच मुक्ताई अन्न उदकाचो त्याग करून परलोकांत गेली. उपरांत त्र्यंबकेश्वरीक ज्येश्ठ वद्य दुवादशीक निवृत्तिनाथान समाधी घेतली. ताचे पुण्यतिथीक दर वर्सा थंय व्हड जात्रा भरता.

– कों. वि. सं. मं.

**निःशस्त्रीकरण :** शस्त्रास्त्रसर्त टाळपाच्या उद्देशान कांय खाशेल्या प्रकारांच्या वा सगळ्या शस्त्रास्त्रांचेर बंदी घालप, शस्त्रकपात करप, सैन्यदल मर्यादीत करप म्हळ्यार सादारणपणान निःशस्त्रीकरण. आंतरराश्ट्रीय सत्तासर्त, आंतरराश्ट्रीय क्षेत्रांतली बेबंदशाय आनी झूज हांचे वायट परिणाम टाळपाखातीर निःशस्त्रीकरण भोव गरजेचें.

शस्त्रनियंत्रण आनी निःशस्त्रीकरण, सामान्य स्वरुपाचें आनी खाशेल्या भागापुरतें आशिल्लें. निःशस्त्रीकरण, संख्यात्मक आनी गुणात्मक निःशस्त्रीकरण, परंपरीक शस्त्रांचें निःशस्त्रीकरण आनी अण्वस्त्रांचेर बंदी अशे निःशस्त्रीकरणाचे प्रकार करतात. निःशस्त्रीकरण म्हळ्यार शस्त्रांचेर घाल्लीं पुराय बंदी आनी शस्त्रनियंत्रण म्हळ्यार शस्त्रास्त्रसर्त

टाळपाखातीर घाल्ली बंधनां. सादारणपणान नि:शस्त्रीकरण म्हळ्यार सगळ्या राश्ट्रांच्या शस्त्रास्त्रांचेर, तांच्या उत्पादनांचेर आनी उपेगाचेर बंदी घालप. कांय वेळार मर्यादीत प्रमाणांत थळाव्या स्वरुपांत घाल्ले बंदीक त्या भागापुरतें नि:शस्त्रीकरण अशें म्हण्टात. नि:शस्त्रीकरणांत संख्यात्मक आनी गुणात्मक नदरेंतल्यानूय फरक आसा. पयल्या प्रकारांत शस्त्रास्त्रांचे संख्येचेर बंदी घालतात आनी कांय वेळार खाशेल्या अशा शस्त्रास्त्रांचेर निर्बंध घालतात.

शीत झुजाउपरांत नि:शस्त्रीकरणाक नेट आयला हें खरें, पूण नि:शस्त्रीकरणा संबंदान घडिल्लो इतिहास खूब आदलो आसा. अशा प्रकाराचो यत्न १८१६त इंग्लंड आनी रशिया हांचेभितर जाल्लो. रशियेच्या झारान इंग्लंडाच्या राजामुखार शस्त्रास्त्र नियंत्रणाची कल्पना मांडिल्ली. उपरांत इंग्लंडान संबंदीत अशा सगळ्या राश्ट्रांची बसका आपोवन तातूंत सगळ्या राश्ट्रांच्या शस्त्रास्त्रांच्यो मर्यादा थारावपाची भुमिका मांडिल्ली. फ्रान्स आनी ऑस्ट्रिया ह्या राश्ट्रांनी हे येवजणेक तेंको दिल्लो, पूण हेर युरोपी राश्ट्रांनी हे येवजणेंत व्हडलोसो रस घेतलोना. शस्त्रास्त्रसर्त, आंतराराश्ट्रीय सत्तासर्त आनी झुजां चालूच उरलीं. अशे रितीन नि:शस्त्रीकरणाचो हो पयलो यत्न अपेशी थारलो. उपरांत १८३१, १८६३, १८६७ आनी १८६९ त हेच दिशेन यत्न जाल्ले, पूण हांचो व्हडलोसो परिणाम जालो ना. १८७७त शस्त्रनियंत्रण बसोवपाच्या कामांत इटलीन फुडाकार घेतिल्लो. पूण ह्या तांच्या यत्नांक जर्मनीन खर विरोध केल्लो तशेंच १८९९त भरिल्ल्या हेर शांतताय परिशदेचो शस्त्रास्त्र संख्येचेर आनी झुजाच्या खर्चाचेर नियंत्रण घालपाचो मुखेल हेतू आशिल्लो. १९०७त दुसरी हेग शांतताय परिशद घडोवन हाडिल्ली. पूण हेय परिशदेन व्हडलोसो बदल घडोवन हाडलो ना.

पयल्या म्हाझुजा उपरांत जाल्ल्या वॅर्सायल्सचे कबलातीन नि:शस्त्रीकरणाचेर चड भर दिल्लो. त्या वेळार अमेरिकेचो अध्यक्ष विलसन हाणें घडोवन हाडिल्ल्या 'लिग ऑफ नेशन्स' (राश्ट्रसंघ) हिचोय मुखेल हेतू होच आशिल्लो. पयल्या म्हाझुजा उपरांत जैतवंत राश्ट्रांनी जर्मनीच्या शस्त्रास्त्रांचेर साबार कडक बंधनां घातिल्लीं. राश्ट्रसंघाचे आठवे वळेरेंत संवसारीक शांततायेच्या आनी सुरक्षीततायेचे नदरेंतल्यान सगळ्या राश्ट्रांनी फकत स्वसंरक्षणा पुरतींच शस्त्रास्त्रां दवरचीं अशें स्पश्ट केल्लें. राश्ट्रसंघाचे सुरक्षा समितीन हे शस्त्रकपातीखातीर एक स्वतंत्र आयोग नेमचो, अशेंय तातूंत थरयल्लें. पूण अमेरिका संघराश्ट्रांतल्यान भायर राविल्ल्यान हांचो कांयच उपेग जालो ना. १९३२त नि:शस्त्रीकरणाची संवसारीक परिशद घडोवन हाडिल्ली. गुणात्मक आनी संख्यात्मक अशें दोनूय प्रकारांचें नि:शस्त्रीकरण करचें असो हे परिशदेचो हेतू आशिल्लो. १९३३त जर्मनी हे परिशदेंतल्यान भायर सरली. हिटलराच्या फुडारपणाखाल जर्मन राश्श्ट्र सशस्त्र जायत गेलें. उपरांत हेर राश्ट्रांभितरूय शस्त्रास्त्र सर्त लागली. हाचो वायट परिणाम म्हळ्यार १९३९ त दुसरें म्हाझूज सुरू जालें.

दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून नि:शस्त्रीकरणाचे येवजणेंत खूब आडमेळीं आयलीं झुजाउपरांत संयुक्त राश्ट्र संघटनेन नि:शस्त्रीकरणाचें काम मुखार चालूच दवरलें. संघटनेचे कबलातींत ह्या प्रस्नाक सदांच म्हत्वाची सुवात मेळ्ळी. संयुक्त राश्ट्र संघटनेचे आमसभेच्या आदेशाप्रमाण १९४६ त 'अणुशक्ती आयोगाची' स्थापणूक जाली. आण्वीक शक्तीचो उपेग शस्त्रास्त्राखातीर करीनासतना शांततायेखातीर, उत्पादन वाडीखातीर करचो अशें ह्या आयोगाचें मुखेल सुत्र आशिल्लें. अण्वस्त्रां तयार करपाचेर आनी साप विनाश करपी शस्त्रास्त्रांचेर निर्बंध घालचो, अशेंय तातूंत थरयलें. पूण रोखडेंच शीत झूज सुरू जाल्ल्या कारणान अण्वस्त्रां आनी पुरायपणान नाश करपी शस्त्रास्त्रांचे सांठे करपाची सर्त सुरू जाली. १९७२ त अमेरिका आनी रशिया हांच्यांत अण्वीक शस्त्रास्त्रांचे नियंत्रणाविशीं कबलात जाली. तिका संहारक शस्त्रनियंत्रण विशयक वाटाघाटी (SALT) अशें म्हण्टात. हे कबलातींत क्षेपणास्त्रांचे निर्मितीवयलीं नियंत्रणां थरयलीं. क्षेपणास्त्र विरोधाची शस्त्रास्त्र येवजण वापरपाविशीं (Anti ballistic missiles) अमेरिका आनी रशिया हांचेमदीं मर्यादा थारोवन दिल्ल्यो.

शस्त्रास्त्रांचो सांठो आनी शस्त्रास्त्र सर्त ही राश्ट्रीय क्षेत्रांत चलिल्ल्या सत्तासर्तीचो एक वांटो. शस्त्रास्त्रां स्वसंरक्षणार्थ वापरनात पूण आक्रमण करपाखातीर तीं वापरतात. सगळीं राश्ट्रां सत्ताक्षेत्र वाडोवपाचे यत्न करीत आसतात आनी तीं आपल्या प्रतिसर्ती राश्ट्रांपरस बळिश्ट जावपाचे यत्न करतात. साबार खेपे नि:शस्त्रीकरण चालीक लावप चालू आसता, त्याच काळांत शस्त्रास्त्रांमदीं वाड जाता (देखीक - भारत आनी पाकिस्तान; उत्तर कोरिया आनी दक्षिण कोरिया). राश्ट्राराश्ट्रांत गुणात्मक आनी संख्यात्मक नदरेन नि:शस्त्रीकरणाविशीं एकमत जालें आनी ते कबलातीवरवीं सगळीं राश्ट्रां वागपाक लागलीं, तरी लेगीत कांय शस्त्रास्त्रांचेर पुरायपणान बंदी घालून वा शस्त्रसांठो उणो करून लेगीत आंतरराश्ट्रीय शांतताय आनी सुवेवेस्थेचेर ह्या नि:शस्त्रीकरणाचो कांय परिणाम जातलो काय ना हाचो दुबाव लागला.

नि:शस्त्रीकरणाच्या तत्त्वांप्रमाण, मनीस झुजतात ते तांचेकडेन शस्त्रास्त्रांचे सांठे आसतात म्हणून. शस्त्रास्त्रांचेर बंदी घाली जाल्यार झुजां आपशींच थांबतलीं. हालींच्या तेंपार आंतरराश्ट्रीय राजकारणांत फकत रशियेनूच अशी भुमिका घेतिल्ली दिश्टी पडटा. नि:शस्त्रीकरणाविशींची अमेरिकेची भुमिका संयुक्त राश्ट्रसंघाच्या नि:शस्त्रीकरणाच्या आयोगांत दिल्ल्या निवेदनांत स्पश्ट केल्या. त्या आयोगांत अशें म्हळां, 'नि:शस्त्रीकरणाच्या कार्यक्रमाचो हेतू झूज टाळप हो आसूंक जाय. झूज अटळ आसा, अशें आमचें मत ना. देखून लस्करी कारवाय करतले आनी ती फळादीक जातली, हाची शक्यतायूच उणी करपाक जाय. अशें केल्यारूच झूजां जावंक पावचिंनात'.

पारंपारिक वा उणी शक्ती आशिल्ल्या शस्त्रास्त्रांच्या सांठ्यांक लागून शांततायेक जसो धोको निर्माण जाता, ताचेपरस साबार पटींनी अण्वस्त्रांचो धोको वाडला. हाका लागून अण्वस्त्रांचेर आनी पारंपारिक शस्त्रास्त्रांचेर नियंत्रण दवरलें जाल्यार शांतताय प्रस्थापीत जातली. आंतरराश्ट्रीय शांतताय आनी सुवेवस्था दवरपाचे नदरेन नि:शस्त्रीकरण हो एकसुरो मार्ग न्हय जालो, तरी शस्त्र नियंत्रणाक लागून झुजां टाळपाची खूब शक्यताय आसा. निदान झुजांवरवीं जावपी हानीक आळाबंत येतलो म्हणपाचो भरवंसो दिसता.

झुजावरवीं जिवीत आनी वित्त हानी जाता म्हणून नि:शस्त्रीकरणाचें समर्थन इतक्यापुरतो ताचो संदर्भ उरूंक फावना. शस्त्रीकरणांतल्यान जावपी हानी ही दुश्ट, अमानवी कृती आसा. ती मानवनिर्मीत हानी आशिल्ल्यान, मनीसकुळये खातीर तें लांछनास्पद अशें असंस्कृत कृत्य जाता. आधुनिक सुसंस्कृत विज्ञाननिश्ट जमान्यांत अशा कृत्याक थारो आसूंक जायना.

- कों. वि. सं. मं.

**निसर्गोपचार** : मानवी रोगाचे चिकित्सेखातीर खंयचेंय वखद वा शल्यचिकित्सा वापरिनासतना फकत सैमीक साधनांचो म्हळ्यार सूर्यप्रकाश, उश्णताय, शितळटाय, आवाज, उदक, फळां आदींचो उपेग जे चिकित्सेंत करतात ताका 'निसर्गोपचार' म्हण्टात. सैमीक जीवशक्तीचें आनी तिच्या वेपारांचें पुराय आनी योग्य गिन्यान जाणून घेवन जाणा जाल्ल्या नेमांक संयमान, जागरूकतायेन आनी निर्व्यसनीपणान तशेंच सातत्यान पाळो दिवन निरोगी आसप म्हळ्यार निसर्गोपचार अशें समजतात. निसर्गोपचार आनी निसर्ग -चिकित्सा हातूंत भेद आसा. निसर्गोपचार ही निरामय, निरोगी जीणेचो लाव दिवपी जीवन पद्दत जाल्यार निसर्ग चिकित्सा ही खंयच्याय कारणाक लागून रोग जालोच जाल्यार सैमीक जीवन (अन्न, उदक) निसर्गीक तत्वां (सूर्यप्रकाश हवा आदी) आनी, निसर्गीक उपचार म्हळ्यार रसायनीक नदरेंतल्यान फळां, भाज्यो आदी; यंत्रीक नदरेन मसाज, व्यायम आदी आनी मानसीक नदरेन सुसेग, आशावाद आदींक आपणावन परत निरोगीपण मेळोवन घेवप. निसर्गोपचार म्हळ्यार सैमाक सुसंवादी आनी सैमाक अनुकूल अशीं वखदां विरयत उपचार पद्दत अशी व्याख्या हे पद्दतीचो पुरस्कर्तो, अमेरिकेंतलो हॅन्री लिंडलार हाणें केल्या.

**इतिहास** : निसर्गोपचाराची सुरवात मनीस जिणेचे उत्पत्ती पसुनूच जाली अशें म्हण्टात. इतिहासकाळाचे सुरवातीपसुनूच सूर्यप्रकाश, शुद्ध हवा, उश्णताय, उदकन्हावपाचे वेगवेगळे प्रकार आनी लंघन (उपास) आदींचो रोगनिवारक साधनां म्हणून उपेग करतात. पुर्विल्ल्या काळांत इजिप्ती लोक मसाज, इझ्रायली लोक आहार आनी आरोग्यविज्ञान, ग्रीसी लोक शरीर संवर्धन आनी व्यायाम आनी रोमी लोक वेगवेगळ्या न्हावपाच्या प्रकारांचेर भर दिताले. इतिहासीक नदरेन ख्रिस्ताआदीं ४५० वर्सांच्या सुमाराक अॅस्क्युटाटेस हाणें निसर्गोपचार वापरिल्ल्याची नोंद आसा. तेन्नाच्यान हे पद्दतींत इल्ली-इल्ली उदरगत जायत गेली आनी पांचव्या शतमानांत बाष्पस्नान, मसाज, मातयेचे उपचार आदी सोयींनी युक्त आशिल्लीं न्हाणी घरां बांदलीं. १९४३त स्विझर्लंडांत पॅरासेल्सस नांवाच्या म्हान वैजाची निसर्गोपचाराखातीर नामना आशिल्ली.

आर्विल्ले निसर्गोपचार पद्दतीची सुरवात जर्मनींत जाली. थंय हर्नेमान, शुस्लर, प्रीसनिट्झ, लुईकूने आनी जायते नामनेचे निसर्गोपचार तज्ञ जावन गेले. एकुणिसाव्या शतमानाच्या मध्याक सायलीशियांतल्या दोंगरी वाठारांतल्या ग्रेफन बॅक नांवाच्या खेडयांत व्हिन्सेंट प्रीसनिट्स ह्या शेतकारांनी निसर्गोपचार पद्दती सुदारपी आनी रुग्णोपयोगी अशी म्हान चळवळ सुरू केली. तांकां हे पद्दतीचे जनक मानतात. भरपूर व्यायाम, मेकळें दोंगरी वारें, थंड उदकाच्या व्हाळांतलें न्हाण आनी सादें गांवगिरें जेवण हांचेर तांचो चड भर आसतालो. अठराव्या-एकुणिसाव्या शतमानांत निसर्गोपचार पद्दतींत उदरगत जायत गेली. हातूंत एस. नीप, श्रॉथ, बिल्झ, कूने, रिकली, लाहमान, ए. जस्ट आदी नामनेच्या युरोपी निसर्गोपचार तज्ञांचो मोलाचो वांटो आसा. टिल्डेन, केलॉग लिंडलार हाणीं चुकीचो वा कसलोय आहार म्हळ्यार रोगाक कारण आसता हाचेर भर दिवन हे पद्दतींतल्या आहाराविशीं तत्त्वांचें म्हत्व पटोवन दिलें. पात्मर हाणें 'कशेरुक प्रतिश्ठापन, (फाटीच्या मणक्याच्या हाडांची योग्य हाताळणी करपाचें तंत्र) ह्या नव्या तंत्राची हे उपचार पद्दतींत भर घाली. अमेरिकेंतलो नामनेचो निसर्गोपचार तज्ञ लिंडेलार हाणें सगळ्या पोरण्या आनी नव्या तंत्राचो उपेग करून एक पुराय वखदांविरयत उपचारतंत्र तयार करून तें वापरांत हाडलें. भारतांत पुर्विल्ले हिंदू संस्कृतायेंत निसर्गोपचार हें संवसाराक दिल्लें एक वरदान अशें म्हणटात. प्लॅटो, ॲरिस्टोटल, आनी हिपोक्राटीस हांच्या जायत्या शतमानांआदीं भारतीय ऋषींनी आनी योग्यांनी निसर्गोपचाराची म्हायती काडिल्ली. लंघन, आहार, जलचिकित्सा, मर्दन, योगासनां आदींचो ते शरीर, मन आनी आत्मो शुद्ध करपाखातीर उपेग करताले. हातूंतल्या कांय तत्त्वांचो ताणीं धर्मांतूय आस्पाव केल्लो. हीं तत्त्वां आदरान आनी आस्थेन आपणावचीं असो तांचो उद्देश आशिल्लो.

महात्मा गांधी हाणें ह्या विशयाचेर खोलायेन अध्ययन करून ताचे आपणाचेर प्रयोग केले आनी तांचेर आदारीत 'आरोग्याचे मार्गदर्शक' हें पुस्तक बरयलें. भारतांत १९६६ मेरेन हे पद्दतीचें शिक्षण दिवपी एकूय संस्था नाशिल्ली. भारतीय शासनांत 'नेचर क्युअर ॲडवायझरी कमिटी' नेमिल्ली आनी तिणें १९६२त हे पद्दतीचो चार वर्सांचो शिक्षण क्रम सुचयिल्लो.

निसर्गोपचार पद्दत वेव्हारी गिन्यानाचे बुन्यादीचेर उबारिल्ली आसता. विचार, स्वशन, अन्न, पान, भेस, काम, सुसेग, समाजीक आनी लैंगीक जीण हातूंतले खंयचेय बाबतींत सैमीक नेमांचें उल्लंघन केल्यार रोगलक्षणां जातात. भायल्या लक्षणांचें स्वरूप आनी गांभीर्य वेगवेगळीं आसलीं तरीय हे पद्दतींत 'सगळे रोग एकूच' ह्या तत्त्वांक म्हत्व दिलां. जेप्रमाण रोग एकूच तेप्रमाण चिकित्साय एकूच. खंयचोय रोग बरो करपाचो म्हत्वाचो उपाय म्हळ्यार सैमाचे वाटेंतलीं आडमेळीं पयस करून ताचो स्वशुद्धिचो मार्ग मेकळो करप. स्वबल संवर्धन हीच मनशाच्या निरोगीपणाची गुरुकिल्ली. अनुवंशीक रोगांत अनुकूल परिस्थिती आनी फावो ती चिकित्साय अर्भकावस्थेंत मेळ्ळ्यार अर्भकाची पुराय वाड जावपाक आदार जाता हें निसर्गोचारान सिद्ध केलां. सैमीक नेम बदलपी न्हय असले आनी अचूक आसून तांचें विशिश्ट उल्लघन म्हळ्यार रोग उत्पन्न करता.

आर्विल्ली निसर्गोपचार पद्दत 'तीन उपाय क्षेत्रां' आनी तीन शास्त्रीय साधनांचेर आदारिल्ल्या उपचारांचो उपेग करता. ह्या क्षेत्रांची विभागणी अशी -

१) विचारीक, भावनीक आनी मानसीक क्षेत्र २) शरीररचना आनी क्रिया ३) शरीरांतल्यो कोशिका (पेशी) आनी उतकां हांचें रसायनीक क्षेत्र; शास्त्रीय उपायांत १) मानसोपचार (हातूंत घातकी संवयांपसून पयस रावपाची सुचना दिवप) २) भौतीक चिकित्सा : हातूंत उश्णताय, विद्युत् प्रवाह, मसाज, व्यायाम आदींचो आस्पाव जाता. ३) रसायनीक आनी वस्तुनिश्ठ चिकित्सा हातूंत पोशण नियंत्रण, आहारविद्या, शेकप, लेप आदी तशेंच जीवनसत्वां, वनस्पती हांचो आस्पाव जाता.

सादारणपणान निसर्गोपचारांत लंघन, आहार, मसाज, व्यायाम, रोगनाशक कसरती, अस्थिपुनःस्थितीस्थापन, विद्युत् चिकित्सा, जलोपचार, मातयेचे उपचार, संगीत चिकित्सा, वर्ण चिकित्सा योगासनां, प्रकाश - चिकित्सा हांचो आस्पाव जाता. निसर्गोपचार पद्दतीचो उपेग चड करून ज्या लोकांक जाता ते लोक अशे - १) निरोगी : हे लोक भलायकेन बरे आसतात तरीय स्वास्थ्य तिगोवपाखातीर हे पद्दतीचो उपेग करतात २) जांकां निरोगी आसा अशें दिसता, पूण खरेपणीं जे रोगी आसतात. हे पद्दतींतल्या निदानाचे तपासणेवयल्यान अशें दिसता, मनशाक ताका जाणीव नाशिल्ले कांय रोग आसतात. देखीक - तकली उसळप आदी.

ह्या लक्षणांकडेन जायते लोक रोग म्हणून व्हडलेंशें लक्ष दिनात ३) रोगग्रस्त : ह्या प्रकारांतले लोक वखदां आनी शस्त्रक्रिया हांकां वाजेतात तेन्ना हे पद्दतीकडेन येतात.

**निसर्गोपचारांतले कांय खाशेले उपचार अशे - लंघन :** सगळ्या तरांचें अन्नसेवन बंद करून फकत उदक आनी हवा हांचेर जीण घालोवप हाका लंघन करप अशें म्हण्टात. लंघन करप आनी उपासमार करप हातूंत खुबूच फरक आसा. आरोग्याचे नदरेन लंघनाक म्हत्व आसा जाल्यार उपासमार हानीकारक आनी आत्मघातक आसा. भारतांत पयलींसावन लंघनाक म्हत्व आसा. हिंदू धर्मांत उपासाक म्हत्वाची सुवात आसा. जेवणांतलें पथ्य आहारद्रव्याचे प्रकार आनी सेवन केल्लें प्रमाण हांचेर लंघनाची गरज आदारून आसता. आहार सकस नासलो, जाल्यार खावप चालू आसुनूय रोग जांवक शकता. हाचे उरफाटें आहारांतल्यान निर्माण जाल्लीं हानीकारक द्रव्यां लंघनान काडून उडयलीं नात जाल्यार तीं रोग उत्पन्न करतात.

लंघनाचो काळ हो पिडेस्ताची स्थिती आनी रोग हांचेर आदारून आसता. संधिवात, आमांश, फिग्दाचे विकार, दमो आदी हट्टी रोग तशेंच हुरहुरें, तकली उसळप, अपचन, पोट दुखप आदी रोग लंघन रोखडेंच बरें करता. निरोगी मनशांनी लेगीत लंघन करप हिताचें समजतात. चडशा पिडेस्तांमदीं लंघन सोंपपाच्या सुमाराक क्षुधा प्रज्वलीत जाता. स्वासाची घाण ना जाता. तोंडाक रूच येता, प्रसन्न दिसता. लंघनान चडशे रोग बरे जातात. बऱ्याच रोगांचेर लंघन चिकित्सा प्रभावी आसली तरी लंघन हें दुधारी शस्त्र आसा.

अविचारान वा अज्ञानान हें तंत्र आपणायल्यार ताचेपासून अपाय जांवक शकता. ताका लागून योग्य निसर्गोपचार तज्ञाचे देखरेखीखाल हो उपाय घेवचो पडटा. लंघनाआदीं आनी लंघनाउपरांत विशिष्ट आहार क्रमान घेवंचो पडटा. आनी तेखातीर चिकित्सकाक आहार विज्ञानाची म्हायती आसप गरजेचें आसता. लंघन काळांत आनी लंघन सुरू करचे आदीं आज्यूत घेवप गरजेचें. आज्युतावरवीं आंत्रमार्गाचो सकयलो भाग चड करून गुदाशय आनी थंयचोच मोटया आंतकड्याचो भाग जंय मळ उरता तो धुवपाचो उद्देश आसता. आज्यूत हें शरीर शुद्धीचें एक यंत्रीक साधन.

**आहार :** निसर्गोपचारांत आहाराक खुबूच म्हत्वाची सुवात आसा. जे तरेचीं आहारद्रव्यां आमी घेतात तांचेर आमची शारिरीक, मानसीक आनी नैतीक अवस्था आदारून आसता. चलवायुमान, पिराय शरिराचें वजन, सदचें काम, हांचेर आहार आदारून आसता. हाकाच लागून आहार हो वैयक्तीक आसता. देखून आहारा विशीं कांय स्वयंसिद्ध तत्त्वां अशीं आसात - १) आदर्श आहार संतुलीत आसचो. २) आहार हो जीण, वाड स्वास्थ्य आनी प्रजोत्पादनाक पुरक आसचो. दूद, लोणी चीझ कड्डणां, फळां, भाजयो हे पदार्थ आशिल्लो आहार शरिराच्यो सगळ्यो गरजो भागयता. ३) गरजे प्रमाण अन्नाचें दोन वा तीन खेपे सेवन करप ४) दोन जेवणांमदीं सदांच चार ग्लास उदक पियेवप ५) आहार द्रव्याचे दोन वर्ग करतात. अ) अमलोत्पादक आनी क्षार उत्पादक. मास, तांतयां आनी कड्डणां हांचो पयल्या वर्गांत जाल्यार दूद, फळां आनी भाज्यो ह्यो दुसऱ्या वर्गांत आस्पावतात. ६) अन्न शिजोवपाचे कांय नेम आसतात. अ) चड शिजोवप ना आ) मंद उज्याचेर ल्हव ल्हव शिजोवप इ) भाजयो शिजयतना सोडा वापरप ना ई) जाता तितलें उणें उदक वापरप ए) भाजयो शिजयिल्लें उदक उडोवप ना ऐ) तळप ना. फळां आनी भाजयो बारीक चिरून वापरप औ) ॲल्युमिनीयमचीं आयदनां शिजोवपाखातीर वापरप ना अं) जेवणाक बसतकूच आपले आवडीच्या विशयाचेर लक्ष दवरून जेवणाचो आनंद घेवप.

**व्यायाम :** निसर्गोपचारांत व्यायामाचो उद्देश जे हेतू साध्य करपाक आसता ते हेतू अशे - १) शारिरीक वाड बरे तरेन घडोवप आनी भलायकी तिगोवप २) अशक्त स्नायूंक बळिश्ट करप ३) सांध्यांची क्रियाशीलताय वाडोवप ५) श्वसनक्रिया सुदारप ६) विकृत शरीरास्थिती सुदारप आदी जायते.

हालीं चिकीत्सात्मक व्यायाम हो हे चिकित्सेचो गरजेचो वांटो जाल्लो आसून ताका चार प्रकारांनी वळखतात. १) परकृत : दुसऱ्याच्या आदारान केल्लो व्यायाम २) स्वकृत : पूण अंशतः दुसऱ्याचो आदार घेवन केल्लो व्यायाम ३) पुराय स्वकृत : दुसऱ्याच्या आदारा बगर केल्लो व्यायाम ४) स्वकृत पूण विरोधाक प्रतिरोधात्मक कृती करतना केल्लो व्यायाम.

**मसाज :** शरिरांतल्या उतकांची नियंत्रीत दाबान हातान घडोवन हाडिल्ली येवजणबद्द हालचाल जे कृतीन करतात तिका मसाज म्हण्टात. चोळप, मालीश, चंपी, अभ्यंग आनी संवहन हीं सगळीं हेच कृतीचीं नांवां. मूळ फ्रॅंच उत्तरा 'मॅसर' पसून इंग्लीश भाशेंत मसाज हें उतर रूढ जालां आसुंये. हाचोच अर्थ चोळप वा रगडप असो जाता.

**जलोपचार :** निसर्गोपचारांतले हे चिकित्सेखातीर उदकाचो ताच्या घन, द्रव्य आनी बाश्प तिनांय मदले खंयचेय अवस्थेंत उपेग करतात. इजिप्ती, हिब्रू, ग्रीसी पर्शियी आनी भारतीय पुर्विल्ले लोक जलोपचारांचो उपेग करताले. सद्याचे जलोपचार चिकित्सेचें श्रेय व्हिन्सेंट प्रीसनिट्झ हाका दिताता आनी ताका जलोपचाराचो जनक मानतात. न्युयॉर्कांतल्या बॅक हाणें तशेंच मिशिगन राज्यांतल्या जॉन एच् केलॉग हाणीं जलोपचारांक पद्दशीर स्वरूप दिल्लें. उदकांत उश्णताय शोशून घेवपाचो पातळावपाचो तशेंच तिचें उत्सर्जन करपाचो व्हड गूण आसा. ताका लागून तें उपचाराचें एक बरें साधन. उदक हें जाय तशें उश्मीय आनी यंत्रीक उपेग करपा सारकें एक लवचीक माध्यम. जाची उश्णताय शोशण क्षमताय इतली व्हड आसा. ह्या गुणांक लागुनूच तें विशिष्ट उश्णतायमानक जालां. ताचेपसून उश्णताय उत्सर्जनूय सहज जाता. देखून तें शरीराची उश्णताय उणी करपाखातीर वा वाडोवपाखातीर वापरूं येता. उदकाक लागून युरिक आम्ल, युरिया लवण, चड साकर आनी हेर जायते नाकाशिल्ले पदार्थ शरिरांतल्यान भायर उडोवपाक आदार जाता.

वेगवेगळ्या प्रकाराचीं न्हाणां आनी तांचे शरीर प्रकृतीवयले परिणाम हांचें 'स्नान चिकित्साशास्त्र' जाल्लें आसा. शीतजलस्नान उर्जा उत्पादक आसता. 'निश' वा रशियी न्हाणांत तापिल्ल्या पदार्थाचेर उदक मारून तयार जावपी वाफेचें न्हाण घेतात. सौन ह्या प्रकारांत सुर्वेक सुके उश्णतायेचो उपेग करून खूब घाम येतकूच रोखडेंच थंड उदकान न्हातात. मद्यतिरेकाक लागून तशेंच सुर्याचे उश्णतायेक लागून आयिल्ले बेशुद्धींत शरिराचेर नेटान पिचकारेंतल्यान उदक मारतात. हाका निशेच न्हाण म्हण्टात. न्हाण चिकित्सेचो मुखेल उद्देश उत्सर्जन क्रियेक आदार दिवपाचो आसता. ताका लागून संधीवात, गोडेंमूत, आदी जायत्या रोगांचेर ती उपायकारक थारता सूर्य न्हाणांत पुराय शरीर उगडें करून सूर्यप्रकाश आंगार घेतात. विद्युत् चिकित्सा : इ. स. १६०० उपरांत पयले खेपे रोगोपचाराखातीर विजेचो उपेग केलो. विल्यम गिल्बर्ट हांचो हे चिकित्सेंत

मोलाचो वांटो आसा. वेगवेगळ्या प्रकाराचे विद्युत् प्रवाह वापरून इत्सीक आनी अनित्यीक स्नायूंचीं आकुंचनां मेळोवंक येतात. तंत्रिकांक उत्तेजीत करून तांची प्राकृतीक स्थिती सुदारपाक मेळटा; वेदना आनी दाहयुक्त सूज उणी करूंक मेळटा. काळजाचेर परिणाम जावंक दिना आसतना कातीच्या रक्तवाहिन्यांचें आकुंचन वा प्रसरण करूंक येता; संवेदनाहारक आनी कृत्रीम श्वासोच्छवसन करूंक येता; विकृत चयापचय (शरिरांत सतत चलपी भौतीक आनी रसायनीक घडामोडी) करून युरिया, युरिक आम्ल आदी भायर उडोवपाच्या पदार्थांच्या उत्सर्जनाचो वेग वाडोवंक मेळटा. अशे विजेचे चिकित्सेचे नदरेन जायते उपाय आसात.

विद्युत् उपचाराखातीर जे प्रकारचे प्रवाह वापरूंक मेळटात ते अशे : १) गॅल्व्हानिक वा चल विद्युत् २) फॅराडिक विद्युत् प्रवाह ३) घर्शणजन्य थीर विद्युत् ४) प्रत्यावर्ती (उलट सुलट व्हांवपी) विद्युत् प्रवाह ५) उच्च कंपता विद्युत् प्रवाह (दर सेकंदाक जावपी कंपनसंख्या उच्च आशिल्लो.) विद्युत् प्रवाहाचे शरिरावयले परिणाम यंत्रीक रसायनीक उश्मीय, प्रारणविशयक आनी मानसीक अशे आसात.

**प्रकाश चिकित्सा :** जे चिकित्सेखातीर प्रकाशाचो म्हळ्यार सूर्यप्रकाशाचो उपेग करतात तिका प्रकाश चिकित्सा म्हण्टात. मनशाक जेप्रमाण ऑक्सिजन उदक, अन्न, हवा, जीवनावश्यक आसात तेचप्रमाण सूर्यप्रकाशाचीय गरज लागता. साद्या जोरापसून ते क्षय रोगामेरेन जायते ल्हान व्हड रोग बरे करपाचें बळगें सूर्यकिरणांत आशिल्लाचें सिद्ध जालां. १९०३ स्विझर्लंडांतल्या आल्प्स पर्वतांतल्या लेझीं गांवांत सुर्योपचाराखातीर खास संस्था काडिल्ली आसून थंय हाडाच्या आनी हेर प्रकाराच्या क्षयाचेर येसस्वी उपचार जाले. भारतांत जामनगरांत इन्स्टिट्यूट ऑफ रे थॅरपी (सोलेरिअम) ही संस्था १९३४त स्थापन केली . थंय संधिवात, हाडांचो क्षयरोग आदींचेर उपाय करतात.

**वर्णचिकित्सा :** रोगोपचाराखातीर जे चिकित्सेंत रंगाचो उपेग करतात तिका वर्ण चिकित्सा म्हण्टात. एडविन डी. बॅबिट हाणें ही पद्दत पयलीं उपेगांत हाडली. हातूंत वेगवेगळ्या रंगांचे प्रकाश किरण वापरतात. कांय विशेश परिणाम करूंक शकतात. कांय रोगांमदीं पिडेस्ताक विशिश्ट रंगसंगती केल्ले कूडींत न्हिदयतकूच फायदो जाता. हळदुवो रंग दिल्ले कुडिंत मंदबूददीचीं भुरगीं सुदारतात. सादें अन्न वा पेय रंगीत किरणांक लागून वा जुंबुपार किरणांक लागून चड पुश्टीक करूं येता. शुद्ध उदक वेगवेगळ्या रंगांच्या बाटल्यांनी भरून तीन-चार वरां सूर्यप्रकाशांत दवरल्यार वखदांवरी वापरूंक मेळटा.

**मातयेचे उपाय :** मातयेचो निसर्गोपचारांतलो उपेग म्हळ्यार एक म्हत्वाचो भाग. जर्मन निसर्गोपचार तज्ञ ए. जस्ट हाणें मातयेच्या उपाचारा विशीं म्हायती दिवन माती खंयचेय असाध्य रोग बरे करता अशें सांगलां. पूण ही माती नितळ आनी बरी आसची पडटा. मातयेचे वेगवेगळे प्रकार आसून तांचे गुणधर्मूय वेगवेगळे आसतात. कांय घरगुती उपचारांनी माती बऱ्याक पडटा. देखीक - विंचू चाबिल्ल्या जाग्यार माती लायतात. महात्मा गांधीन मातयेविशीं आपले अणभव अशे दिल्यात. १) मोडशी जातकूच पोटार मातयेचो दाट लेप लायल्यार ही पिडा २-३ दिसांनी उणी जाता २) तकली दुखल्यार मातयेचो लेप तकलेर बांदल्यार बरें दिसता. ३) दोळ्यांचो जाळ जाल्यार मातयेचो दाट थर दवरल्यार बरें दिसता.

**संगीत चिकित्सा :** मानसीक वा शरिरीक विकृतींचेर उपचार म्हणून संगिताचो जे चिकित्सेंत उपेग करतात, तिका संगीत चिकित्सा म्हण्टात. झेनोक्रोटिझ सारपेंडर आनी एरिओन हाणीं संगिताचो रोगोपचार म्हणून पयलीं उपेग केलो. ताणीं हिस्टेरियाचेर संगीत उपचाराखातीर तंतुवाद्य पयलीं वापरलें. आर्विल्ल्या काळांत बॉकल्सवी, डी. टी. विमर, एल्. एस्. बँडर आदी अमेरिकी दोतोरांनी संगीत चिकित्सेंत भर घाली. न्युयॉर्कांक ताणीं हॉस्पिटल म्युझिक कमिटी स्थापन केली. मानसीक विकृती जाल्ल्या रोग्यांचेर संगीत चिकित्सा चड उपेगी थरता अशें दिसलां. १९३८त संगीत चिकित्सेची सुरवात अमेरिकेंतल्या इलॉइसांत केली. थंय वेगवेगळे संगीत प्रकार शरिराचेर वेगवेगळे परिणाम करतात हें सिद्ध जालें. अमेरिकेच्या इरा एम अल्टशुलर हाणें संगीत चिकित्सेचेर खोलायेन अभ्यास करून बरेंच संशोधन केलें. ताच्या मता प्रमाण १) संगितांत चयापचय, श्वसन, रक्तदाब, नाडी, अंतःस्त्रावी, ग्रंथी आनी स्नायूंची उर्जा हांचेर परिणाम करपाची क्षमताय आसता. २) तातूंत लक्ष ओडून घेवपाचो आनी तें तिगोवन दवरपाचो गूण आसता. ३) मनस्थितींत योग्य ते बदल घडोवन मनोरंजन करपाचो गूण आसा ४) तें चित्तवृत्ती नियंत्रीत करूंक शकता आनी ५) संगीत बुद्धिक चेतना दिता.

मनीस हो सैमविश्वाचो एक घटकजाल्ल्यान सैमाचो ताचेकडेन लागींचो संबंध उरता. तसोच ताचे प्रकृतीचेर सैमाचो व्हड प्रभाव पडटा. जीव सृश्टीतले हेर भोवतेक जीव निसर्गोपचार हेच उपचार पद्दतीचेर अवलंबून आसता. मनशाखातीर ती सभावीक पद्दत आसा. आधुनीक विज्ञानयुगांतूय तेखातीर निसर्गोपचार आपलें खाशेलेंपण दवरून आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## नीकॉल, शार्ल झ्यूल आंरी :

(जल्म : २१ सप्टेंबर १८६६, रुआन फ्रान्स; मरण : २८ फेब्रुवारी १९३६, ट्युनिस).

फ्रेंच वैज आनी सुक्ष्मजंतूविज्ञानीक. रुआन आनी पॅरिसांत शिक्षण घेवन ताणें १८९३त एम्. डी. ही पदवी मेळयली. रुआन वैजकी विद्यापिठांत सुक्ष्मजीव विज्ञानाचो प्राध्यापक आसतना ताच्या कार्याचें म्हत्व फ्रँच सरकाराच्या लक्षांत आयलें. ट्युनिशियांतल्या सरकारी भलायकी सेवा संस्थांचें उदघाटन ताचे हस्तुकीं १९०३त जालें. ट्युनिसाच्या पाश्चर इन्स्टिट्यूटाचे एके शाखेचें मुखेलपद ताका दिल्लें, हे संस्थेचें संचालकपद ताणें १९३२ मेरेन चलयलें. ह्या काळांत ताणें संसर्गजन्य रोगांवयल्या उपायाखातीर प्रतीबंधक लस आनी रक्तरस तयार केले. खेरीज ताचे कारकिर्दींत हे संस्थेन सूक्ष्मजंतूविज्ञान विशींच्या संशोधनकार्याची बरी संस्था म्हणून संवसारीक नामना जोडली. १९२८त ताणें हे संस्थेच्या संचालकपदाचीं २५ वर्सां पुराय केल्ले खातीर एक खास भांगरा पदक काडिल्लें.

मनशाक प्रलापक सान्निपात जोर, हुल्को आनी पिसवा ह्या दोन वेगवेगळ्या रोगवाहकांक लागून जाता, हें ताणेंच सिद्ध केलें. बुळकांड्यो, ब्रूसेलोसिस, हुरहुरें, घटसर्प, लोहितांग जोर आनी टी. बी. ह्या रोगांच्या गिन्यानांत ताणें मोलादीक भर घाली. १९३२त ताची कॉलेज द फ्रांसांत एका अध्यासनाचेर निवड जाली. शास्त्रीय गिन्यानाखेरीज एक तत्त्ववेत्तो म्हणूनूय ताणें नामना मेळयल्या.

१९०९ त मनशाच्या आंगावयल्या पेडिक्युलस ह्युमनस प्रकार कॉर्पोरिस नांवाच्यो हुलको प्रलापक सन्निपात जोर (टायफस जोर)

पातळावपाक कारणीभूत आसतात हें सोडून काडिल्ले खातीर ताका शरीर क्रियाविज्ञान आनी वैजकी ह्या विशयांचो १९२८ वर्साचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

– कों. वि. सं. मं.

**नीतिवाक्यामृतम् :** राजनितीचेर बरयल्लो एक म्हत्वाचो ग्रंथ. हो ग्रंथ सोमदेवसूरी हाणें बरयला. सोमदेवसूरी हो दक्षिण भारतांतल्या देवसंघ नांवाच्या दिगंबर जैन संप्रदायाचो आचार्य आशिल्लो. राजनितीचेर विस्तारान रचणूक करपी हो एकलोच जैन लेखक. इ. स. ९५९ वर्सा ताणें 'यशस्तिलकचंपू' हें गद्यपद्य मिश्रित चंपूकाव्य बरयलें. उपरांत ताणें नीतिवाक्यमृतम् ग्रंथ बरोवपाक सुरवात केली. शुक्र, बृहस्पती, विशालाक्ष, वसिष्ठ, मनू, भारद्वाज, गौतम, पराशर हांच्या ग्रंथातल्या तशेंच महाभारताच्या शांतिपर्वांतले नितीचेर आशिल्ल्या उतरांचें मंथन करून तांचो आपरोस सोमदेवान ह्या ग्रंथांत घेतला. ताका लागून हो ग्रंथ सुसंगत आनी सगळ्या आंगांनी युक्त असो जाला.

सोमदेव सुटसुटीत, अर्थान भरिल्लीं आनी परिणाम कारक वाक्यां बरयता. ताची बरोवपाची शैली सूत्रबद्ध आसा. हीं सूत्रमय वाक्यां बत्तीस अध्यायांनी वांटल्यांत ग्रंथाचे सुर्वेक धर्म, अर्थ, काम हांचें फळ प्राप्त करून दिवपी राज्याक वंदन केलां. ताच्या मतान, राज्य हें धर्म, निती, संपत, जैत, सूख आनी सुबत्ताय हांचें मूळ आसा.

आदर्श राजाविशीं सोमदेवाचें मत आसा तें अशें – प्रशिक्षीत आनी सद्गुणी असो आदर्श राजा आसचो. ताणें चार विद्यांचें अध्ययन करचें. लोकायत (चार्वाक) दर्शनाचो अभ्यास केल्यार तो देशद्रोह्यांक बरे भशेन तोंड दिवंक शकतलो. तशेंच ताणें विद्वानांचेंय मत घेवचें. साधू, संत ह्या लोकांनी गुन्यावकारांक भोगाशिल्यार जाता पूण राजान तशें करूंक फावोना. राजान तांकां ख्यास्त करुंकूच जाय. जुगार, ऐदीपण, उर्मटपण आनी आडमुठेपण हे दोश राजाक काबार करतात. राजाच्या वर्तनाप्रमाण प्रजा आपलें वर्तन करता. प्रजेच्या पुण्याचो तशेंच पापाचो सवो वांटो राजाक फावो जाता. म्हणून राजान आपली वागणूक दुबावाविरयत दवरूंक जाय. अशा राजाची राखण म्हळ्यार राज्याची राखण आनी राज्याची राखण म्हळ्यार राज्याची उदरगत. शेती, पशुपालन आनी वेपार हाणीं राज्याची संपत वाडटा, उदरगत जाता. जकातनाकी, कड्डणांचे गुदांव आनी वखारी हांची राजान बरे तरेन वेवस्था दवरल्यार राजाक खूब उत्पन्न मेळटा.

राजाचे मंत्री हुशार, स्वामीभक्त, निर्व्यसनी सच्चरित्र आनी विश्वासू आसचे. राजान मंत्र्यांवांगडा गुपीत मसलत करून तेप्रमाण रोखडच्या रोखडी कृती करची. राजान मंत्र्याक बापायचे सुवातेर मानचो तशेंच राजपुरयताक आवयभाशेन मान दिवंचो. लश्करी अधिकाऱ्याचो मात राजान केन्नाच सल्लो घेवंचो न्हय. राजान आपणें सैन्याची पळोवणी करची. भ्रश्ट शासकीय अधिकारी, सेनाधिकारी वनरक्षक, सांठेबाज, नफेबाज हे सगळे समाजविद्वाटे आसतात. पूण तांकां केल्लें शासन, दोतोरान दिल्ल्या वखदाभशेन आसचें.

सोमवेदाक बालविवाह पसंत आशिल्लो. चलयेची पिराय बारा वर्सां आनी चल्याची सोळा वर्सां जातकूच तीं लग्न जावपाक योग्य जातात, अशें तो म्हण्टा. सोमदेवाच्या मतान बायल म्हळ्यार पापाचें मूळ, दंभ आनी फटवणुकीचो अर्क. तांचेकडेन कसलीच गजाल गुपीत उरना. ताका लागून राजान बायलां कडेन चड लागींपण दवरचें न्हय. अंत:पुरांतल्यान आयिल्लें जेवण राजान तपासलेबगर खावचें न्हय. बायलांक चड शिक्षण दिवचें न्हय. शास्त्राचो अभ्यास बरोच, पूण सोरपिणीक दिल्लें दूद जेभाशेन विख जाता, तशेंच बायलांचें शिक्षण म्हळ्यार संकश्टांक आमंत्रण दिल्लेभाशेन जातलें. पूण बायलो वायटूय नासतात आनी बऱ्योय नासतात. थीर दर्याभशेन त्यो अमृत वा विखलेगीत पचयतात. न्हंय जेभशेन दर्याक मेळटकूच एकजीव जाता, तेच भाशेन बायलो आपल्या घोवाभशेन जातात.

सोमदेवान किल्ले, कोश, सैन्य इश्ट-राश्ट्रां, न्यायदान, करवेवस्था, परराश्ट्रनीती राजमंडल ह्या विशयांचेरूय सोमदेवान विस्कटावणी केल्या. सोमदेव सनातनी जैन आशिल्ल्यान झूज आनी कपटी वेव्हारांत ताका उमेद ना. असल्या विशयांचेर ताणें विस्तारान चर्चा करूंक ना.

– कों. वि. सं. मं.

**नीलगाय :** गो कुळांतलो हो प्राणी. ताचें शास्त्रीय नांव बॅसिलॅफस ट्रेगोकॅमेलस अशें आसा. हो फकत भारतांतूच आसा. हो दाट रानांनी रावना. ल्हान दोंगरांचीं तेमकां, तण वा झुडपांनीच तो रावता.

२ मीटर लांबायेच्या ह्या प्राण्याची शेंपडी ४५-५५ सेंमी. आसता. खांद्यामेरेनची उंचाय १-१.५ मीटर आसता.

हाका रोहू वा रोही म्हण्टात. नराक नील म्हण्टात. नराचो रंग काळसर करडो आसता. मादी नरापरस मोटवी आसता. घोंट्यांपोंदा धवो रंग आसता. तशेंच दोनूय पोल्यांचेर दोन धवे दाग आसतात. ओंठ, खाडकी, कानां भितर आनी शेंपडेपोंदा धवो रंग आसता. गळ्याचेर काळे दाट केंस आसतात. मादयेचो आनी ल्हान पिलाचो रंग पिंगसो आसता. नराक शिंगां आसतात. तांची लांबाय २० सेंमी. आसता. नर आनी मादी दोगांकूय काळी आयाळ आसता.

तांचे १०-२० जाणांचे कळप आसतात. ह्या कळपांत मादयो, पिलां आनी ल्हान नर आसतात. जाण्टे नर एकसुरेच वा तांच्या कळपांनी रावतात. नीलगायो तण पानां, बोरां वा हेर फळां खातात. मोहाचीं गळिल्लीं फुलां तांकां आवडटात. उदक पियेनासतना त्यो रावंक शकतात.

तांचे दोळे आनी नाक हांची क्षमताय तीक्ष्ण आसता. नीलगाय घोड्यापरस चड नेटान धांवता.

हिंदू लोक तिका एके तरेची गाय समजून पवित्र मानतात. आठ वा णव म्हयन्यांनी नीलगाय वियेता. तिका एक वा दोन पिलां जातात.

– कों. वि. सं. मं.

**नीलमत पुराण :** एक संस्कृत ग्रंथ. नीलमुनी हो ताचो कर्तो. ह्या ग्रंथावरवीं ताणें काश्मिरी हिंदू खातीर जायतीं धर्मकृत्यां, व्रतां आनी परबो सांगल्यात. तशेंच काश्मीरांल्या पुण्यक्षेत्राची म्हायतीय तातूंत मेळटा. ह्या ग्रंथाक जरी पुराण म्हळें तरी तें स्वतंत्र पुराण नासून पुराणाचोच तो एक वांटो आसा अशें दिसता. हो ग्रंथ इ.स. आदीं १२व्या शतमानांत तयार जालो असो कल्हणाचे राजतरंगिणींत ताचो उल्लेख आयला. तरी ह्या ग्रंथाच्या नेमक्या काळाविशीं तज्ञांक दुबाव मारता.

ह्या पुराणांत सांगिल्ले चडशे सण आनी विधी हेर पुराणांवरीच आनी

भारताच्या हेर वाठारांत प्रचलीत आशिल्ल्या विधींवरीच आसात. पूण नवहिमोत्सव आनी बुद्धजल्म ह्यो दोन परबो मात सामक्यो वेगळ्यो आसात. वैशंपायन आनी जन्मेजय हांच्या उलोवपाच्या रुपान ह्या ग्रंथाची सुरवात जाल्या. हातूंत वैशंपायन जन्मेजयाक गोनंद राजा आनी ताचे पांडवकाळांतले वंशज हांची कथा सांगता. उपरांत ताणें काश्मीराचें माहात्म्य सांगलां. सतीसरोवरांतलें उदक काश्यप मुनीन भायर काडून उडयतकूच तातूंत रावपी जलोदभव राकेसाचो नाश जालो. आनी त्या क्षेत्रांत काश्मीर वाठार तयार जालो. मागीर लागसळ्ळ्या सकल वाठरांतल्या लोकांक थंय हाडून वसोवपाची कल्पना काश्यपाक सुचली. पूण तें थंयच्या नागाक मानवलेंना. तेन्ना काश्यपाक राग आयलो आनी ताणें तांकां शाप दिलो, नागांक पिशांचांचो सांगात दिवंचो पडटलो. नागाचो मुखेली नील नांवाचो एक नाग आशिल्लो, तो काश्यपाचोच पूत आशिल्लो. ताणें काश्यपाक थंडायलो आनी ताचेकडेन उश्याप मागलो. तेन्ना काश्यपान सांगलें चार युगां सोंपमेरेन दर वर्सा कार्तिक ते चैत्र ह्या थंडेच्या म्हयन्यांनी थंय पिशाच्चां वसती करतलीं आनी त्या काळांत नागांक तांचो सांगात दिवंचो पडटलो. उरिल्ल्या स म्हयन्यांमदीं थंय मनशां येवन शेती करतलीं.

चार युगां पुराय जातकूच नील मुनीन चंद्रदेव नांवाच्या ब्राह्मणाक त्या वाठारांतलीं पिशाच्चां आनी खर शीं हांचेपसून मुक्त जावपाखातीर वेगवेगळीं व्रतां आनी विधी सांगल्यात. तेच ह्या पुराणांत सांगल्यात.

– कों. वि. सं. मं.

## नील, ल्वी युजीन फॅलीक्स : (जल्म : २२ नोव्हेंबर १९०४ लीआँ).

नामनेचो फ्रेंच भौतीकशास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण पॅरिसांतल्या एकोल नॉर्माल सुपेरिअरांत जालें. १९३२ वर्सा ताका डॉक्टरेट पदवी मेळ्ळी. १९३७ वर्सा तो स्ट्रासबर्ग विद्यापिठांत आनी १९४७त ग्रनॉबल विद्यापिठांत प्राध्यापक जालो. ताणें ग्रनॉबलच्या पॉलिटॅक्निक इन्स्टिट्यूट, सँटर फॉर न्युक्लिअर स्टडिस आनी लॅबोरेटरी फॉर इलॅक्ट्रोस्टॅटिक्स अँड द फिजिक्स ऑफ मॅटल्स ह्या संस्थांनी संचालक म्हणून काम केलें.

१९३०त नील हाणें अशें सुचयलें, दोन लागसारच्या अणूंच्यो चुंबकीय परिबल दिशा एकाआड एक एकामेकांक प्रतीसमांतर दवरपी परस्परक्रिया अस्तित्वांत आसूंक शकतात. हाचेवयल्यान अशी कल्पना करूं येता, अती नीच तापमान आसतना स्फटिकांतले अणू दोन गटांनी विभागतात. ह्या गटांक 'उपजालक', अशें म्हण्टात. दोन उपजालकांतल्या एकांत अणूंचीं चुंबकीय परिबलां एके दिशेन आसतात आनी दुसऱ्यांत उरफाटे दिशेन आसतात. तापमान वाडयलें जाल्यार एका थरावीक तापमानाक ($\theta_N$) चुंबकी परिबलांच्या दिशांची मांडावळ ना जाता. ह्या ($\theta_N$) तापमानाक 'नील तापमान' अशें म्हण्टात.

१९४७ त नील हाणें लोहचुंबकत्वाचो सोद लायलो. नील हाणें अतीसुक्ष्म लोहचुंबकीय कणांच्या खाशेल्या गुणधर्मांचो अभ्यास केलो आनी बसाल्ट, लावा ह्या पदार्थांत दिसपी चुंबकीय 'उगडासाची' विस्कटावणी केली. ताका लागून भूवैज्ञानीक काळांतल्या भूचुंबकीय क्षेत्रांचो इतिहास सोदप सोंपें जालें. १९४१त, ताणें एल्. वायल हाचे वांगडा एका वेगळे तरेच्या चिरचुंबकाचो सोद लागलो.

दुसऱ्या म्हाझुजाचे सुर्वेक फ्रँच झुजारी तारवांची चुंबकीय सुरिंगांपसून राखण करपी विभागाचो तो मुखेल आशिल्लो.

१९७० वर्साचो भौतीकशास्त्रांतलो नोबॅल पुरस्कार नील आनी स्विडनी खगोल भौतीकशास्त्रज्ञ हान्नेस आल्फव्हॅन हांकां चुंबकत्वांतल्या संशोधनाखातीर वांटून मेळ्ळो.

– कों. वि. सं. मं.

## नुस्तें : 

फाटीचो कणो आशिल्लो (Vertibrate) एक जलचर प्राणी. तो सदांच उदकांत रावपी. हे प्राणी शेंकऱ्यान उस्वास घेतात आनी स्नायूंचे हालचालींतल्यान आनी पाखाटयाच्या आदारान हालचाल करतात. शास्त्रीय नदरेन नुस्तें ह्या वर्गासकयल न येवपी सुंगटां, कुल्ल्यो, खुबे, वागयो, पटींग गालमो, शिनाण्यो, कोंगे हांकांय सादारणपणान नुस्तें म्हणप जाता. देवमासो ह्या जलचर प्राण्याचें नांव जरी नुस्त्याचें आसलें आनी लोक जरी ताका नुस्तें म्हणून वळखता आसले तरी देवमासो हो शास्त्रीय नदरेन नुस्तें म्हणूंक मेळचोना. तो एक सस्तन प्राणी. तशेंच स्टारफीश, जॅलीफीश, क्रॅब फीश, कटल फीश, हांच्या नांवांनी फीश म्हळ्यार नुस्तें हो प्रत्यय आसलो तरी तांचो आस्पाव नुस्त्याच्या वर्गांत जायना कारण तांकां फाटीचो कणो नासता.

अवघ्याच नांवांचो (सांगट, पांपलेट, खांपी) आडवाद सोडलो जाल्यार भोवतेक सगळ्या नुस्त्यांचें आंग खवळांनी धांपिल्लें आसता. बऱ्याच जाणांचे बाबतींत आंगभर खवळां आसतात. जाल्यार कांय जाणांचे बाबतींत तीं थारावीक भागांचेर दिसतात. तशेंच कांय आडवाद (घोडोमासो, भांडकचो) सोडले जाल्यार भोवतेक नुस्त्याचें आंग बुळबुळीत आसता. नुस्त्याच्या प्रकाराप्रमाण नुस्त्याचे अशीर, लांबट, रूंद वाटकुळे तोंकाचे चेपटे अशे वेगवेगळे आकार पळोवंक मेळटात. पूण चडशे प्रकार अशीर वा लांबोड्या आकाराचे आसतात. उदकांत हालचालींक सोंपें पडटात अशेच भोवतेक नुस्त्याचे आकार आसतात. सद्याक अस्तित्वांत आशिल्ल्या सुमार ३०,००० जातींच्या नुस्त्यांमदीं सगळ्यांत ल्हान १० मिमी. लांबायेचें नुस्तें हे पँडेका पिरमिया आनी सगळ्यांत व्हड २० मी. लांबायेचें हें करंद (रिकोडोन टायपस). नुस्त्याचें वजन १.५ ग्राम (होरायटी सेटनायट) वजनापसून तें ४,००० किलोग्रामां मेरेन आसूंक शकता. बारीक नुस्त्यांचे बाबतींत १-३ वर्सां धरून ते व्हड नुस्त्याचे बाबतींत १०-२० वर्सांमेरेन नुस्त्याचें आयुमान आसता.

नुस्तें साव्या तशेंच खाऱ्या उदकांत तेच प्रमाण मचूळ उदकांत रावता. सर्वसादारणपणान साव्या उदकांतलें नुस्तें खाऱ्या उदकांत आनी खाऱ्या उदकांतलें नुस्तें साव्या उदकांत चड तेंप जगूंक शकना. तरीय पूण थरावीक प्रकाराचें नुस्तें तिनूय तरांच्या उदकांनी रावूंक शकता. खाऱ्या उदकांतलें नुस्तें साव्या उदकांतल्या नुस्त्याचे तुळेन आकारान व्हड तशेंच चड जिनसांचें आसता. उदकांच्या प्रकाराप्रमाण नुस्त्याचो आकार, कुडीची रचना आनी नुस्त्याची रूच वेगळी आसता.

**इतिहास :** संवसारांतल्या भोवतेक संस्कृतींनी नुस्त्याक देवत्वाचें प्रतीक मानलां. श्रीविष्णुचो पयलो अवतार (मत्स्य अवतार) नुस्तें आसलो. झस ह्या नुस्त्यान मनूक वांचयलो अशी कथा आसा. भारत धरून भोवतेक सगळ्यांच देशांनी आपल्या संस्कृतीक वेव्हारांत नुस्त्याक एक आगळी सुवात दिल्ली दिश्टी पडटा. ज्योतीशशास्त्रान एके राशीक मीन म्हळ्यार नुस्तें अशें नांव दवरलां. कांय धर्मांनी नुस्त्याक पवित्र मानिल्ल्यान

नुस्तें खावप वर्ज्य केलां. आदल्या देवळांनी तशेंच धर्मीक सुवातांनी नुस्त्याचे आकृतीचो आस्पाव केल्लो दिश्टी पडटा. नुस्त्याच्या शिळारूप अवशेशांवयल्यान नुस्तें हो प्राणी सुमार ४५ कोटी वर्सांसावन अस्तित्वांत आसुंये अशें मानतात. आनी फाटीकणो आसपी प्राण्यांच्या उत्क्रांतींतलो नुस्तें हो एक आरंभाचो दुवो अशें मानतात. नुस्त्याचो शास्त्रीय अभ्यास ॲरिस्टोटल हाणें सुरू केलो. भारतांत तो सगळ्यांत पयलीं १७९५ वर्सा एम्. ई. ब्लॉक ह्या जर्मन शास्त्रज्ञान उपरांत शायडर (१८०५) बी. जी. व्लेसीपोड, पी. रसॅल (१९०३), बी हॅमिल्टन (१८२२) हाणीं बरप केलें. उपरांत १८७८ वर्सा फ्रान्सिस डे हाणें 'द फिशीस ऑफ इंडिया' हो युगप्रवर्तक ग्रंथ बरयलो. हो ग्रंथ आजुनूय सदर्भ ग्रंथ म्हणून वापरतात. कलकत्तेच्या भारतीय प्राणी विज्ञानीक सर्वेक्षण संस्थेंत आनी हेर कांय संस्थांनी तशेंच विद्यापिठांनी नुस्त्याचेर संशोधन चालू आसा. नुस्त्यासंबंदी संशोधन करपी केंद्रीय तशो राज्य थरावेल्यो संस्था आसात.

ल्हान नुस्त्यामदीं रुपांतर जावपाचो काळ अठरा वर्सांसावन १८ दीस मेरेनचो आसता. तांतयांचो पिलो जावप आनी पिल्याचें पुराय नुस्तें जावप हे प्रक्रियेचो काळ हो नुस्त्याचे जातीचेर थरता. भोवतेक नुस्त्याचे बाबतींत तांतयां उदकांत बेवारशी सोडप जाता. जाल्यार कांय नुस्त्याचे बाबतींत नर वा मादी वा दोगांय तांतयांची राखण करतात. कांय नुस्तीं तांतयांखातीर उदकांतूच बीळ वा घोंटेर तयार करतात. जाल्यार कांय जाण शिंपयो वा तत्सम वस्तूचो आदार घेतात. टोडकापिया नांवाचें नुस्तें तांतयां आपल्या तोंडांत सांबाळटा. घोडोमाशाच्या नराच्या पोटाक आशिल्ले पोतयेंत तांतयां उबोवन तयार जातात.

उदकांतली वनस्पत उदकाचेर उफेवपी शेळो, किडी, तशेंच हेर जीव हें नुस्त्याचें अन्न. भोवतेक जाणांचे बाबतींत धाकलें नुस्तें हें व्हडल्या नुस्त्याचें अन्न आसता. कांय जातींचें नुस्तें उदकांतल्या शिंपयांचेर जगता.

**उपेग :** नुस्त्याचें मास हें मनशाचें पुश्टीक अन्न. दर्याचे, न्हंयेचे देगेर




**नुस्तें -**

१. वयलो जबडो
२. नाक
३. कवटी
४. मेंदू
५. कान
६. मेरूरज्जू
७. स्नायूंचे खंड
८. मूत्र-जनन द्वार
९. गुद
१०. अंडाशय
११. वाताशय
१२. जठर
१३. आंतडें
१४. जठरनिर्गमी अंधनाल
१५. यकृत
१६. काळीज
१७-१८. क्लोम
१९. जीब
२०. सकयलो जबडो.

**शरीर रचणूक :** नुस्त्याचे मुखेल अशे तीन भाग करूं येतात. तकली (बोडूक), धड, शेंपडी, (शेपो). शेंपडेच्या तोंकार तशेंच गळ्याकडेन दोनूय वटयां आनी फाटीर पांखाटे आसतात. तकलेक दोनूय वटांनी गले आसतात आनी ह्या गल्यांपोंदा तांबडी गूंज शेंक्रीं (Gill archis) आसतात तकली आनी धड हांच्या आकुंचन आनी प्रसरणांतल्यान नुस्त्याची हालचाल जाता. हे हालचालीचें नियंत्रण पांखाटे करतात. शेंकऱ्यां वरवीं नुस्तें उदकांत विरिल्लो ऑक्सिजन भितर ओडून घेता आनी भितरलो कार्बनडायऑक्सायड भायर सोडटा.

**प्रजनन :** अवघे आडवाद सोडले जाल्यार सादारणपणान नुस्तें तांतयां घालता. तांतयांपसून नुस्त्याची नवी पिळगी तयार जाता. तांतयांचें

रावपी लोकांच्या जेवणांतल्या अन्नांतलो नुस्तें हो मुखेल घटक आसता. ताजें नुस्तें आनी सुकिल्लें नुस्तें (खारें) अशा दोनूय तरांच्या नुस्त्याचो खावपांत उपेग जाता. आर्विल्ल्या काळांत ताज्या नुस्त्याचेर प्रक्रिया करून तें डबोबंद अवस्थेंत दवरप जाता. हातूंतल्यान मनशाचे कुडीक पोशक अशीं प्रथिनां कॅल्शियम, फॉस्फरस, लोखण हे सारकिलीं खनिजां मेळटात. कॉड हॅलिबट मुशी ह्या नुस्त्याच्या फिग्दापसून अ आनी ड विटामीन आशिल्लें वखदी तेल मेळटा. झाडांखातीर सारें म्हणून नुस्त्याचो उपेग जाता. सागरी संपत्तीचो सोद घेवपाच्या कामांत तशेंच सागरी संशोधनाच्या कामांत नुस्त्याचो प्रायोगीक प्राणी म्हणून संशोधक उपेग करतात. आर्विल्ल्या काळांत ल्हान आकारांचीं आनी सोबीत रंगांचीं आकर्शक

अशीं नुस्तीं कंवचेच्या बरण्यांनी पाळप हो एक छंद जाला. एक छंद म्हणून न्हंयेत वा दर्यांत नुस्तें गरोवप चलता.

**रोग :** संसर्गीक आनी असंसर्गीक अशे दोन तरेचे रोग नुस्त्याक जावंक शकतात. हे रोग सुक्ष्मजीव व्हायरस, शेळो आदी जीव, रोंठो हे घटक संसर्गीक रोग जावपाक कारणीभूत जातात. गलगंड, दोळ्यांरोग, हाडांरोग सारकिले असंसर्गीक रोग नुस्त्याक जातात. हांचेभायर कारखाने, बोटी, सैमीक आवर्शण हांचे वरवीं जावपी उदकांतल्या प्रदुशणाक लागून नुस्त्याक रोग जावंक शकता.

**नुस्तेंमारी :** अन्न आनी छंद ह्या दोन कारणांखातीर नुस्तें मारीचो उद्देग अनादी काळासावन संवसारांत चालू आसा. आदीमानव हेर



रांपण : नुस्तेंमारीचो एक प्रकार

प्राण्यांवांगडाच आपल्या अन्नाखातीर नुस्त्याची शिकार करतालो हें पुर्विल्ल्या शिलाचित्रावयल्यान दिसता. भारतांत मोहेंजोदाडोच्या उत्खननांत नुस्तेंमारीचे अवशेश मेळ्ळ्यात. चाणाक्याच्या अर्थशास्त्रांत नुस्तेंमारीवयलो कर, सुक्या नुस्त्याचो उपेग आनी नुस्तेंमारीवरवीं दुकळ काळांतली अन्न पुरवण हाचो उल्लेख मेळटा. भारताचे दर्या देगेची लांबाय सुमार ५६४० किमी. इतली आसा. तेभायर साव्या आनी मचूळ उदकांत सुमार ४० लाख हॅक्टर जलक्षेत्र नुस्तेंमारीक वापरपाक लायक आसा. जगांत भारताचो नुस्तेंमारींत पयल्या धांमदीं क्रमांक लागता. नुस्तेंमारीचें म्हत्व लक्षांत घेवन भारताच्या राज्य करपी प्रशासनान वेळावेळार अभ्यास करून थंयच्या अडचणींची दखल घेतिल्ली दिसता. १८८४ वर्सा फ्रांसीस डे हाणें 'द फिशीस ऑफ इंडिया' हो भारत ब्रह्मदेश (मियानमार) आनी श्रीलंका ह्या देशांतले नुस्तेंमारीचेर आनी 'द फिशीस ऑफ मलबार' हो मलबारचे नुस्तेंमारीचेर बरयल्लो आसा. १८९७ वर्सा भारतीय नुस्तेंमारी कायदो पास जालो. १९०४ वर्सा के. सी. गुप्ता हाणें बंगालचे नुस्तेंमारीचेर



चीनी जाळ : कोचीनचे नुस्तेंमारीचो एक प्रकार

अहवाल तयार केलो. १९०७ वर्सा मद्रासांत आनी १९४५ वर्सा मुंबय स्वतंत्र नुस्तेंमारी खातें सुरू जालें. भारताच्या स्वातंत्र्या उपरांत दर एका राज्यांत नूस्तेंमारीचो स्वतंत्र विभाग सुरू जालो. आनी पांचवर्सुकी येवजण्यांनी ह्या उद्देशाच्या विकासाखातीर तरतूद जावंक लागली.

**नुस्तेंमारीची पद्दत :** वाठाराप्रमाण, नुस्त्याच्या जातीप्रमाण, नुस्तें मारपाचे तांकीप्रमाण उदकाच्या प्रकाराप्रमाण आनी काळाप्रमाण नुस्तें मारपाच्यो वेगवेगळ्यो पद्दती आसात. तातूंतल्यो मुखेल अशो – १) हातान धरप २) शस्त्रान जखमी करप ३) गुंगेचें वखद वापरप ४) गऱ्याचो वापर करप ५) सांपळे मांडप ६) जाळीं वापरप ७) जिलेटिना सारक्या स्फोटक पदार्थांचो वापर करप. ह्या पद्दतींमदीं जाळ्यांचो वापर सगळ्यांत चड जाता आनी हेच पद्दतीवरवीं चडांत चड नूस्तेंमारी करप जाता.

गऱ्याचो वापर दोन तरांनी करतात. एकोडो गरो (गरी, सितारी, पलेर) आनी गऱ्याची सांखळ (दावण). सांपळ्याचो आकार आनी पद्दत वापराप्रमाण वेगवेगळी आसता. कोंड्याच्यो कामी, मातयेचें आयदन हांचेपसून हे सांपळे तयार करतात. हांचो वापर चड करून उथळ उदकांत जाता.

जाळयांचे खूब प्रकार आसतात. व्हड जाळयांक जाळां म्हण्टात. १) मनशांनी हातांनी ओडपाचीं जाळीं (रांपण, पागेर, चिनई) २) भरतेच्या वा सुकतेच्या प्रवाहांत आपसूक कार्यशील जावपी जाळीं (मानस, हारी, खुंटावणी, कांटाळी) ३) व्हडें वा ट्रॉलरच्या आदारान ओडटलीं जाळीं.

**वाहन :** नुस्तें मारपाच्या आयुधांवांगडाच नुस्तेंमारींतलो एक म्हत्वाचो घटक म्हळ्यार नुस्तें मारींत वापरतलें व्हडें. हाचे नुस्तेंमारीच्या प्रकाराप्रमाण वेगवेगळे प्रकार आसात. १) तराफो २) पनेळ ३) व्हडें ४) मोचवो ५) ट्रॉलर (मशीन बसयल्लें व्हडें).



यांत्रिकी बोटींनी नुस्तेंमारी

तराफे, पनेळ, हांचो वापर न्हंयांतली आनी दर्यादेगेवयली नुस्तेंमारी करपाखातीर करतात. मोचवे आनी ट्रॉलर हांचो उपेग मुखेलपणान भर दर्यांतली नुस्तेंमारी करपांत जाता.

**नुस्तें संवर्धन :** नुस्त्याचें अर्थीक म्हत्व लक्षांत घेवन खासा जतनायेन आनी आरक्षीत अशा उदकांत आर्विल्ल्या विज्ञानाचो आदार घेवन खाशेल्या अशा यत्नांनी मानव निर्मीत देखरेखीखाल नुस्त्याचें उत्पादन करतात. हे प्रक्रियेक नुस्तें संवर्धन म्हण्टात. हे प्रक्रियेंत सैमीक पद्दतींत निर्माण जाल्लीं मत्स्य बिजां (तांतयां, पिले) आरक्षीत अशा उदका सांठ्यांत सोडून तांकां फावो अशा अन्नाची पुरवण करून पोसप, वाडोवप आनी तांचे भलायकेची जतनाय घेवप जाता.

**संशोधन :** एका तेंपार गरीब आनी निरक्षर लोकांचें उपजिविकेचें साधन म्हणून आशिल्ली नुस्तेंमारी आतां नुस्तेंमारीच्या साधनांचें आधुनिकीकरण, येरादारीच्या साधनांचो विकास, नुस्तें तिगोवन दवरपाचे पद्दतींतली सुदारणा आनी नुस्त्याक मेळिल्ली वाडटी मागणी तेचपरी हेर संबंदीत घटकांची तंत्रीक आनी विज्ञानीक उदरगत हाका लागून नुस्तेंमारी ह्या वेवसायाक हालींच्या अर्थकारणांत अग्रकमाची सुवात मेळ्ळ्या. तेचखातीर ह्या वेवसायांतलें परंपरीक रूप वचून ताका आधुनीक रूप येवप सभावीक जालें. भारत धरून सगळ्याच देशांनी मुळाव्या थरावयल्यान उच्च शिक्षीत थरामेरेन नुस्तेंमारीचें शिक्षण आनी संशोधन करपाच्यो संस्था निर्माण जाल्यो.

नुस्तें आनी ताका संबंदीत संशोधन करपी कांय मुखेल देशी संस्था अशो - सँट्रल मरीन फिशरीस रिसर्च इन्स्टिट्यूट (कोची); काडन्सील ऑफ सायंटिफिक अँड इंडस्ट्रियल रिसर्च (नवी दिल्ली); सँट्रल इन्स्टिट्यूट ऑफ फिशरीस एज्युकेशन (मुंबय); सँट्रल इनलँड फिशरीस रिसर्च इन्स्टिट्यूट (बॅरॅकपूर) ह्या विशयाचो वापर करपी कांय परदेशी संस्था अशो १) इंटरनॅशनल काउन्सील फॉर द एक्सप्लोरेशन ऑफ द सी २) इंटरनॅशनल कमिशन फॉर सायंटिफीक एक्सप्लोरेशन ऑफ ध मॅडिटेरेनियन सी ३) इंटरनॅशनल पॅसिफीक हॅलिबट कमिशन ४) इंटरनॅशनल पॅसिफिक सामन कमिशन ५) नॉर्थ पॅसिफिक फॉर सील कमिशन ६) इंटरनॅशनल व्हेलिंग कमिशन ७) नॉर्थ इस्ट ॲटलांटिक फिशरीस कमिशन ८) इंटरनॅशनल कमिशन फॉर नॉर्थ वॅस्ट ॲटलांटिक फिशरीस ९) इंटर अमेरिकन ट्रॉपिकल ट्युना कमिशन १०) इंटरनॅशनल नॉर्थ पॅसिफिक फिशरीस कमिशन ११) परमनण्ट कमिशन ऑन कंझर्वेशन ऑफ मरीन रिसोर्सीस १२) जपान सेविएत फिशरीस कामिशन फॉर नॉर्थ वॅस्ट पॅसिफिक १३) कमिशन फॉर फिशरीस रिसर्च ईन वॅस्टर्न पॅसिफिक १४) जॉयंट कमिशन फॉर ब्लॅक सी १५) मिक्स कमिशन ऑफ १९९२ १६) जपान - कोरिया जॉयंट फिशरीस कमिशन १७) अ) इंडो पॅसिफिक फिशरीस काडन्सील आ) जनरल फिशरीस काउन्सील फॉर मॅडिटेरेनियन सी इ) लॅटिन अमेरिकन फिशरीस काउन्सील (१९५१) ई) रिजनल फिशरीस ॲडव्हायझरी कमिशन फॉर साऊथ-वॅस्ट ॲटलांटीक (१९६२) उ) इंडियन ओशियन फिशरी कमिशन ऊ) फिशरी कमिटी फॉर इस्ट - सँट्रल ॲटलांटिक १८) इंटरनॅशनल कमिशन फॉर कंझर्वेशन ऑफ ॲटलांटिक ट्युना १९) इंटरनॅशनल कमिशन फॉर साऊथ इस्ट अटलांटिक फिशरीस १९९३-९४ ह्या वर्सा सुमार ४६.८१ लाख टन नुस्त्याचें उत्पादन भारतांत जालें.

**गोंयचें नुस्तें :** गोंयांत सावें, खारें आनी मचूळ उदकांतलें नुस्तें मेळटा. बांगडे, ताल्ले, विसवण, वेल्ल्यो, पेडवे, खांपी, दोडयारे, सांगटां, मोरी, मुड्डश्यो, रांवस, ताल्ले, पांपलेट, सुरंगुट्यो, कोंक्रां, पेडी, कल्ली, बाळे, डायन, पालपेडी, मोतयाळे, करकरे, बाणोशी, सोरंगी, पालू, घोळशी, कापसाळीं, संवनाळे, धाडी, राणे, टोंकयो, पातसाळीं, वणंगां, खरचाणी, दायण, चिकांलो हें भर दर्यांतलें नुस्तें गोंयांत चड प्रमाणांत मेळटा. शेंवटे, काळंदुरां, खर्चाण्यो, बुरांटे, चणकां, तांबशे, पिट्टोळ शेतकां, लेपो, गोबरो, थिगूर सारकिलें नुस्तें साव्या तशेंच खाऱ्या आनी मचूळ उदकांत मेळटा. शास्त्रीय नदरेन नुस्तें ह्या वर्गासकयल येनात त्या सुंगटां, कुल्ल्यो, पटींग, गालमो, शिनाण्यो, कोंगे, हांकांय सादारणपणान नुस्तें म्हणप जाता आनी गोंयांत तांचो नुस्तें म्हणूनूच वापर करतात.

नुस्तेंमारी हो गोंयचे दर्यादेगेर आनी न्हंयेचे देगेर रावपी लोकांचो यांत्रिकीकरण केल्ल्या आधुनीक तशेंच यांत्रीकीकरण करूंक नाशिल्ल्या परंपरीक वाहनांच्या आदारान नुस्तेंमारी करप जाता.

गरोवणी, पागप, रांपण, खुंटावणी, दावण, हारी आनी यंत्रीक जाळीं ओडणी गोंयांत नुस्तेंमारी चलता. हाचेच जोडयेक मानसो आनी खाजनां हें नुस्तें उत्पन्न करपाचे साव्या उदकाचे जलाशय आसात. हालींच्या काळांत नुस्तें संवर्धनाचे प्रयोगूय गोंयांत चालू आसात. तशेंच जित्या आनी सुक्या नुस्त्याचेर प्रक्रिया करून तें डबोबंद अवस्थेंत गोंयांभायर धाडपाचे वेवसाय चलतात.

दर्यादेगेवयल्या हेर लोकांभाशेनूच गोंयकाराचें नुस्तें हो अन्नांतलो मुखेल आनी आवडीचो असो घटक. गोंयांत नुस्त्याचे वेगवेगळे आनी खाशेले पदार्थ तयार करतात आसले तरी नुस्त्याचें हुमण (कालवण - Curry) हें गोंयचें एक खाशेलपण.

ते भायर नुस्तें तळप, हुड्डमेथी करप, सुकें करप, मसाल्याचें करप, कळपुटी करप तशेंच हेर प्रकार करतात. ताजें नुस्तें मेळना तेन्ना नुस्त्याची गरज भागोवपाखातीर सुकें नुस्तें खारावन दवरप जाता. गोंयचें वर्सुकी नुस्त्याचें उत्पादन - टनांनी

| वर्स | एकूण | टक्केवारी बदल |
|---|---|---|
| १९६५ | १७,१८६.० | - |
| १९६६ | २४,६००.० | +४३.१ |
| १९६७ | १२,४६०.० | -५०.६ |
| १९६८ | १८,८८८.० | +५१.६ |
| १९६९ | २७,५५९.० | +४५.९ |
| १९७० | २०,७६३.० | -२४.७ |
| १९७१ | ३९,९८०.० | -९२.५ |
| १९७२ | ३०,१०४.० | -२४.३ |
| १९७३ | १५,७४०.० | -४७.८ |
| १९७४ | १८,०५६.० | -१४.७ |

| वर्स | यांत्रिकी | बिगर यांत्रिकी | एकूण | टक्केवारी बदल |
|---|---|---|---|---|
| १९७५ | ८,९८०.० | २५,६७४.९ | ३४,६५४.८ | +९१.९ |
| १९७६ | १३,४९१.५ | २०,१५७.२ | ३३,६४८.७ | -२.९ |
| १९७७ | १६,०३५.३ | १८,३७८.९ | ३४,४१४.२ | -२.३ |
| १९७८ | १३,८९४.४ | १२,५६८.८ | २६,४६३.२ | -२३.१ |
| १९७९ | १५,८७०.७ | १०,७२५.५ | २६,५९६.२ | +०.५ |
| १९८० | १३,८१७.० | १०,६७३.० | २४,४९०.० | -८.० |
| १९८१ | २२,३२६.० | ९,०८२.८ | ३१,४०८.८ | +१४.९ |
| १९८२ | २४,०२२.५ | ८,९९०.३ | ३३,०१२.८ | +५.१ |
| १९८३ | २४,८३८.५ | १०,३२६.३ | ३५,१६४.८ | +६.५ |

| वर्स | दर्या | न्हंय | एकूण | टक्केवारी बदल |
|---|---|---|---|---|
| १९८४ | ३८,०६३.८ | १,४१३.२ | ३९,४७७.० | +१२.२ |
| १९८५ | ३९,९२१.७ | १,५४७.३ | ४१,४६९.० | +५.० |
| १९८६ | २९,९३७.० | १,१८९.२ | ३१,१२६.२ | -२५.० |
| १९८७ | ३३,०७०.५ | १,४९४.४ | ३४,५६४.९ | +११.० |
| १९८८ | - | - | ४०,७१३.० | +१७.८ |
| ८९-९० | ४०,३७२.८ | २,३५६.० | ४२,७२८.८ | +५.० |
| ९०-९१ | ५३,१७८.७ | ३,०४६.२ | ५६,२२४.९ | +३१.६ |
| ९१-९२ | ६१,७७६.६ | ३,१५२.६ | ६४,९२९.२ | +१५.५ |

| वर्स | वट्ट टन | मोल (लक्ष) | बांगडे, ताल्ले | मोल (लक्ष) | सुंगटां | मोल (लक्ष) |
|---|---|---|---|---|---|---|
| १९६६ | २४,६०० | ९८ | १५,४०० | ५० | - | - |
| १९६७ | १२,४६० | ६० | ६,८०० | ३० | - | - |
| १९६८ | १८,८८८ | ९८ | १५,००० | ८५ | - | - |
| १९६९ | २७,५५९ | ११७ | २५,२०० | १०१ | ५५९ | ६.६१ |
| १९७० | २०,७३६ | २९० | १८,४०० | २५२ | ६२७ | १३.९१ |
| १९७१ | ३९,९८० | ५३४ | ३७,३०० | ४९३ | २७९ | ६.२५ |
| १९७२ | ३०,२९३ | ३४० | २६,००० | २८२ | ५६१ | १८.४५ |
| १९७३ | १५,७४० | २०१ | १२,३०० | १२४ | ७८४ | ४३.५५ |
| १९७४ | १८,०५६ | ३५९ | ११,००० | २३६ | ७९५ | २९.३६ |
| १९७५ | ३४,६५५ | ३३८ | २८,३०० | २२० | ८९१ | ४१.७८ |
| १९७६ | ३३,६४८ | ५१९ | २२,९०० | ३३१ | २,२१९ | १४३,८७ |
| १९७७ | ३२,६५३ | ६७६ | २२,५०० | ३६८ | २,१०२ | २५२.२६ |
| १९७८ | २६,४६३ | ३९१ | १५,५०० | १८४ | १,४१४ | १०८.९४ |
| १९७९ | २६,५९६ | ५६३ | १७,२०० | २७० | २,०१६ | १९१.२० |
| १९८० | २२,४२७ | ६०२ | ११,००० | २१० | १,६७३ | १६४.६० |

**नुस्त्याचो वापर** : (टनांनी)

| वर्स | ताजी विक्री | सुकें नुस्तें | खारें | सारें आनी हेर |
|---|---|---|---|---|
| १९९२ | १७,७८० | २६,९७३ | ९,६३३ | १,९४७ |
| १९९३ | ७०,५५३ | २१,१४० | ७,०१० | २,२१९ |
| १९९४ | ७०,७६४ | १६,११० | ५,६८२ | ३,२८४ |

१९५६५.५३टन गोठायल्या नुस्त्याची निर्यात गोंयांतल्यान जाता आनी ताचें मोल ४५५३.७१ लाख इतकें जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## नू, ऊ : (जल्म : २७ मे १९०७ वकेम).

स्वतंत्र ब्रह्मदेशाचो (मियानमार) पयलो प्रधानमंत्री आनी ब्रह्मी स्वातंत्र्य चळवळींतलो एक मुखेल फुडारी. ताका याकिन नू ह्या नांवानूय वळखतात. ताच्या बापायचें नांव ऊ सान दून आनी आवयचें नाव डॉ सॉ खिन.



ताचें मुळावें शिक्षण वकेम नगरांत जालें. मिओमा नॅशनल हायस्कुलांत ताचें माध्यमिक शिक्षण जातकूच, उंचेलें शिक्षण ताणें रंगून विद्यापिठांत घेतलें. रंगून विद्यापिठांत आसतना तो विद्यार्थी संघटनेचो अध्यक्ष आशिल्लो. आँग सान हाचेवांगडा ताणें एक फावट विद्यार्थ्यांचो व्हडलो संप घडोवन हाडलो. तेखातीर कांय दीस ताका विद्यापिठांतल्यान काडून उडयलो. १९२९ वर्सा तो बी. ए. जालो आनी ताणें शिक्षकी पेशा आपणायलो. ह्याच अदमासाक तो दॉ म्या यी हे बायलेकडेन लग्न जालो. ताका पांच भूरगीं आसात. उपरांत तो पाण्टानॉच्या राश्ट्रीय विद्यालयांत मुख्याध्यापक जालो. त्या वेळार ऊ थांट हाचेकडेन ताचो घट संबंद आयलो. १९३४ वर्सा कायद्याचो अभ्यास करपाखातीर रंगून विद्यापिठांत ताणें प्रवेश घेतलो. ह्या विद्यापिठांत ताणें प्रवेश घेतलो. ह्या विद्यापिठांत आसतना ताचे कडेन ब्रिटिशांआडचे चळवळीचें मुखेलपण आयलें. १९३६ वर्सा ब्रिटीश आनी ब्रह्मी फुडारी हांचो संघर्श जाल्ल्यान ताका विद्यापिठांतल्यान काडून उडयलो. तेखातीर ताका खूब नामना मेळ्ळी आनी ताका राश्ट्राचें फुडारपण मेळ्ळें. १९३७ वर्सा तो 'आमी ब्रह्मी' हे संघटनेक मेळ्ळो आनी देशव्यापी आंदोलनाक चड नेट आयलो. तेन्ना देशद्रोहाचो आरोप करून ब्रिटिशांनी ताका बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण दुसऱ्या म्हाझुजा वेळार जपानान ब्रह्मदेशाचेर घुरी घाली आनी १९४० वर्सा ताची आपसूक सुटका जाली. तो बॅ. मॉच्या तात्पुरत्या सरकारांत मंत्री जालो. पूण जपानाआडचो गुपीत प्रचार ताणें चालूच दवरलो.

कांय तेपान ताणें आँग सान हाच्या आदारान अँटीफॅसिस्ट पिपल्स फ्रिडम लीग हे संस्थेची स्थापणूक केली. दुसऱ्या म्हाझुजांत जपान हारतकूच ब्रिटिशांनी ब्रह्मदेशाक आँग सानच्या मुखेलपणाखाल तात्पुरतें सरकार दिवपाक केलें आनी उपरांत १९४८च्या कराराप्रमाण ब्रह्मदेश स्वतंत्र जालो. तेन्नाच आँग सान हाचो खून जालो आनी ऊ नूची स्वतंत्र ब्रह्मदेशाचो पयलो प्रधानमंत्री म्हूणन वेंचणूक जाली (१९४७-५८). हाचे पयलीं १९४६-४७ वर्सा तो संविधान परिशदेचो अध्यक्ष आशिल्लो. स्वातंत्र्या उपरांत कम्युनिस्ट आनी कारेन जमातीन चळवळ सुरू केली आनी ताका लागून दंगली सुरू जाल्यो. १९५६ वर्सा पक्षाभितर दोशी सुरू जाल्ल्यान ऊ नू हाणें आपल्या प्रधानमंत्रीपदाचो राजिनामो दिलो. उपरांत जनरल ने विन हाच्या फुडारपणाखाल कांय दीस तात्पुरतें सरकार चललें.

१९५७ आनी १९६० वर्सा ऊ नू परतून प्रधानमंत्री म्हूणन वेंचून आयलो पूण जनरल ने विन हाणें १९६२ वर्सा लस्करी क्रांती घडोवन सगळी सत्ता आपल्या हातांत घेतली आनी ऊ नू हाका बंदी केलो. १९६६ वर्सा ताची सुटका जाली. तेन्ना ताच्या पार्लमॅंटरी डॅमॉक्रसी ह्या पक्षाक परतून नेट आयलो. १९६९ वर्सा आपल्याक परतून अटक जातली म्हूणन प्रकृती इबाडिल्ल्याचें निमित्त करून तो देशाभायर गेलो आनी युरोप अमेरिका, भारत ह्या देशांनी ताणें भोंवडी केली. १९७० वर्सा तो ब्रह्मदेशांत परतलो आनी आपल्या पक्षाच्या कार्याक सुरवात केली. राजकारणांत रावन लेगीत ताणें ब्रह्मी वाङमयांत मोलादीक वावर केला. ताणें ब्रह्मी भाशेंत कितलेशेच स्फूट आनी ग्रंथ लिखाण केलां.

'द पीपल विन थ्रू', 'द वेजिस ऑफ सिन' ह्या ताच्या नाटकांक तशेंच बुद्ध, धम्म संघ, ऊ नू सॅटर्डेस सन ही आपजीण, ह्या लिखाणाक खूब नामना मेळ्ळ्या. तशेंच ताणें कादंबरी, धर्मीक-इतिहासीक आनी राजकीय निबंध-प्रबंध ह्या प्रकारांचेर बारा ग्रंथ बरयल्यात.

१९७४च्या शेवटाक तो भारतांत येवन भोपाळांत स्थायीक जालो. थंय रावन ताणें बौद्ध धर्माच्या प्रचारकार्याक सुरवात केली. त्या काळांत ताणें आर्विल्ल्या काळाच्या संदर्भांत केल्लें बौद्ध धर्माचें पुनरुज्जीवन हें ताणें केल्लें म्हत्वाचें कार्य.

- कों. वि. सं. मं.

**नेदरलँड्स :** युरोप खंडाचे वायव्य दिशेक आशिल्लो ल्हानसो देश. ह्या देशाचो एक तृतियांशापरस चड भाग दर्यापांवड्यापरस सकयल आशिल्ल्यान हाका इंग्लीश भाशेंत हॉलंड अशें म्हण्टात. हॉलंड हें हांगाच्या एका प्रांताचें नांव. पूण प्रांताच्या म्हत्वाक लागून पुराय देशाक हॉलंड हें नांव मेळ्ळें. क्षेत्रफळ ४१,१६० चौ. किमी., विस्तार ५०°४६' उत्तर ते ५३°३३' उत्तर आनी ३°२२' उदेंत ते ७°१५' उदेंत. लोकसंख्या १४,८६४,००० (१९९१). दर्याक भरती येतकूच देशाचो खूबसो भाग उदकातळा लिपता. नेदर्लंड्सचे उदेंतेक जर्मनी, दक्षिणेक बेल्जियम हे देश आनी उत्तरेक उत्तर दर्या आसा. देशाची भाशा 'डच' आसून हांगाच्या लोकांक डच अशें म्हण्टात. ॲम्सटरडॅम ही देशाची राजधानी आसा, पूण हॅगे (Hague) शारांत शासनकेंद्र आसा.

**भूंयवर्णन :** नेदर्लंडसची चडशी भूंय सपाट आसली तरी भूंयरचणुकेचे नदरेन जमनीचे तीन प्रकार दिश्टी पडटात. उदेंतेक आशिल्लो उंचायेचो प्रदेश, अस्तंत दिशेक आशिल्लो रेंवट थरांचो प्रदेश आनी हांचे मजगतीं आशिल्लो खोल असो भाग. उदेंतेकडेन आशिल्लो उंचायेचो प्रदेश हो रेंव आनी बारीक खडी हांच्या गाळासावन तयार जाला. हे थर हिमयुगीन प्रवाहांक लागून तशेंच न्यूज, ऱ्हाईन आनी हेर न्हंयांतल्यान व्हावून आयिल्ल्या गाळासावन तयार जाल्यात. युरोप खंड आनी ब्रिटीश जुंवे हांचे मदीं आशिल्ल्या खोल भागांत उत्तर दर्याचें उदक भरते वेळार रिगिल्ल्यान वालुकाभित्तींचो प्रदेश तयार जाला अशें भूंयवैज्ञानिकांचें मत आसा. आदल्या तेंपार उदेंतेकडेन आशिल्लो उंचायेचो प्रदेश आनी अस्तंतेक आशिल्ल्या रेंवट बांदामजगतीं साबार खाजनां आशिल्लीं. उपरांत तातूंत न्हंयांच्या गाळाची एकसारकी भर पडून दलदलीचो भाग तयार जालो.

रॉटरडॅमाचे उत्तरेकडचो ॲलेक्झांडर पोल्डर आनी जायडर झीचे सरभोंवतणीं आशिल्लो प्रदेश, हो नेदर्लंडसाचो सगळ्यांत सकयलो भाग. तो कांयकडेन दर्यापातळेसावन ६-७ मी. मेरेन सकयल आसा.

सद्या अस्तित्वांत आशिल्ली जमीन तिगोवन दवरप आनी वाडत आशिल्ले लोकसंख्येखातीर आनी शेतवडीखातीर दर्यापुरून नवी जमीन तयार करप, हें हांगाच्या लोकांचें खाशेलेपण. नेदर्लंडसाचो चडसो भाग दर्या पातळेसावन चड सकयल आशिल्ल्यान, न्हंयांच्या हुंवाराखाला वा भरते वेळार दर्याच्या ल्हारांखाला जमनीचो चडसो भाग ना जावपाचो धोको आशिल्ल्यान न्हंयांच्या देगांनी व्हड बांद घाल्यात. दर्या वा न्हंयांभोंवतणची जमीन शेतवडीक तयार करपाची आशा आसा अशा सुवातींनी घट्ट बांद घालून पंपांनी काडटात. उपरांत रसायनीक क्रियेन जमनींतलो क्षार काडून ती लागवडीखाला हाडटात. हे तरेन मेळयल्ले जमनीक पोल्डर लँड अशें म्हण्टात. असले शेंकड्यांनी पोल्डर ह्या देशांत दिश्टी पडटात. पोल्डरांतलें उदक दर्यांत सोडपाखातीर पवनचक्की वाफेचेर आनी डिझलाचेर चलपी इंजिना तशेंच विद्युत् इंजिनांचोय वापर करतात.

**हवामान :** सादारणपणान हांगाचें हवामान सौम्य आसता. दर्यादेगेसावन सवकासायेन व्हांवपी वारो, शितळ गीम आनी वर्सभरूय आंतऱ्या - पयऱ्यान पडपी पावस, हांकां लागून हांगाचें हवामान सुखदिणे आसा. सरासरी वर्सुकी पावस ७९ सेंमी. इतलो पडटा. सगळ्यांत चड पावस ऑगस्ट ते ऑक्टोबर ह्या म्हयन्यांनी पडटा. जानेवारींत सरासरी तापमान २°सॅ. जाल्यार जुलय म्हयन्यांत ते १७° सॅ. इतलें आसता. हांगाचें हवामान सौम्य आशिल्ल्यान वाऱ्यांत वाफ उरता. शिंयाळ्यांत हांगा दाट धुकें पडटा. केन्ना-केन्ना हांगा हीम पडटा. वर्सभरूय मळबांत कुपां दिश्टी पडटात.

**वनस्पत आनी मोनजात :** वाडटे लोकसंख्येक जागोकरून दिवपाखातीर मुळवीं रानां मारून उडयल्यांत. हाका लागून हांगाचे मोनजातीचेरूय परिणाम जाला. फकत उदेंतेक आशिल्ल्या चड उंचायेच्या वाठारांनी ओक, पायन, बीच हांचीं पातळ रानां आसात. सरकारान तणाची जमीन दवरपाखातीर चडशा रस्त्यांच्या देगांनी आनी घरांभोंवतणी झाडां लायल्यांत. रानां पातळ आशिल्ल्यान हांगा चड करून सोंशे दिश्टी पडटात. हांगाचे थळावे बॅज्यर, हाव्क, लोबस्टर आनी कांसव पुरायपणान ना जाल्यात. हांगा तरेकवार सवणीं पळोवपाक मेळटात. फुलझाडांची लागवड आनी उत्पादन हांचेखातीर नेदर्लंडसाची खूब नामना आसा.

**इतिहास :** नेदर्लंडसाची इ. स. प. ५७ शेंकड्या पयलींच्या इतिहासाची स्पश्टपणान म्हायती मेळना पूण हांगा मेळिल्ल्या अवशेशांवयल्यान हजार वर्सां पयलींसावन नेदर्लंडसांत मनशाची वसती आशिल्ली हें स्पश्ट जालां. इ. स. प. ५७ त ह्या देशांत कॅल्टिक, बेल्गा, मेनापी, एबुरोन, बटेव्हाय ह्या जर्मन टोळ्यांचो आपसांत संघर्श चालू आशिल्लो. तेन्ना ज्युलिअस सिझर हाणें नेदर्लंडाचेर जैत मेळयलें. उपरांत सुमार चार शेंकडे ह्या देशांत रोमन संस्कृतायेचो प्रसार जालो. रोमी साम्राज्याच्या शेवटाक हांगा क्रिस्तांव धर्माचो प्रसार जालो. उपरांत फ्रँट टोळ्यांनी ह्या देशाचो दक्षिण भाग आनी सॅक्सन लोकांनी उदेंत भाग बळकायलो. पंदराव्या शेंकड्याच्या मध्याक ह्या देशाचो चडसो भाग बर्गंडीचो ड्यूक हाच्या शेकातळा आशिल्लो. १४७७ त मॅरी ऑफ बर्गंडी हिचें लग्न रोमी सम्राट मॅक्सिमिल्यन हाचे कडेन जाल्ल्यान हें राज्य हेप्सबर्ग घराण्याकडेन गेलें. १५५५त 'नेदर्लंड राज्य' स्पेनाचो राजा दुसरो फिलीप हाका मेळ्ळें.

दुसरो फिलिप हो कट्टर कॅथलिक पंथीय आशिल्ल्यान, ताणें आनी ताचो सेनापती ड्यूक ऑफ ॲल्बा हाणें हांगाच्या थळाव्या प्रॉटॅस्टंट आनी वेपारी लोकांक छळपाक सुरवात केली. फिलीपाच्या त्रासांक वाजेवन नेदर्लंडसाच्या लोकांनी १५६८त स्पेनीश सत्तेआड बंड उबारलें. उपरांत ह्याच बंडाक स्वातंत्र्य झुजाचें स्वरुप लाबलें. हें झूज सुमार ८० वर्सांमेरेन चालूच आशिल्लें. १५७९त उत्तर आनी दक्षिण प्रांतांमदीं धर्मीक मतभेद जावन, दक्षिण प्रांतांतल्या कॅथलीक पंथीय लोकांनी स्पेनाचे सत्तेक तेंको दिलो. पूण उत्तरेकडच्या सात प्रांतांतल्या लोकांनी स्पेनाआड झूज चालूच दवरलें. दोन वर्सांउपरांत ह्या लोकांनी स्वातंत्र्य जाहीर करून नेदर्लंड्स संयुक्त राज्याची घोशणा केली. ह्या स्वातंत्र्यझुजाचो विल्यम द सायलँटन हो मुखेली आशिल्लो. जुलय १५८४त विल्यम हाची हत्या जाली. पूण डच लोकांनी यान व्हान ऑल्डेन बार्नेव्हेल्ट आनी विल्यमाचो चलो मॉरिस हांच्या फुडारपणाखाला स्पेनाआड झूज चालूच दवरलें. मुखार १६४८त नेदर्लंड्स आनी स्पेन हांचेमदीं वेस्टफेलिया ही कबलात जावत तशेंच नेदर्लंडसच्या स्वातंत्र्याक आंतरराश्ट्रीय मान्यताय मेळून डच प्रजासत्ताकाची स्थापणूक जाली. हाचेपयलीं १५७९त जाल्ले कबलातीक लागून दक्षिणेक

आशिल्ल्या प्रांताक बेल्जियम आनी उत्तरेकडच्या प्रांताक नेदर्लंड्स (हॉलंड) नांव पडलें.

डच प्रजासत्ताकाची स्थापणूक जालेउपरांत आपलें साम्राज्य आनी वेपार वाडोवपाच्या हेतान, डच इस्ट इंडिया कंपनी आनी डच वॅस्ट इंडिया कंपनी अस्तित्वांत आयल्यो. हे सर्तीत तांकां इंग्लंड, फ्रांस, स्पेन आनी पुर्तुगाल देशांकडेन संघर्श करचे पडले. अठराव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दाच्या सुमाराक जावा, सुमात्रा, बोर्नीओ, श्रीलंका, द. आफ्रिका, ब्राझील, जपान ह्या देशांनी डच वसणुको भरभराटीक आयल्यो. तेचपरी ह्या तेंपार संस्कृतीक मळारूय नेदर्लंडसाची खूब उदरगत जाली. १८१५त जाल्ल्या नव्या संविधानाप्रमाण डच प्रजासत्ताकाचो अंत जावन, नेदर्लंडसांत नियंत्रीत राजेशाहीची स्थापणूक जाली. उपरांत नेदर्लंड्स आनी बेल्जियम हांचें एकीकरण करपाचे खूब यत्न जाले, पूण बेल्जियमी लोकांनी ह्या हालचालींक विरोध करून आपूण स्वतंत्र आशिल्ल्याचें जाहीर केलें (१८३०).

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दासावन ते पयल्या म्हाझुजामेरेन नेदर्लंडसांत शांतताय आशिल्ली. ह्या तेंपार अर्थीक आनी संस्कृतीक मळांचेरूय देशाची खूब उदरगत जाली. पयल्या म्हाझुजांत नेदर्लंड्स देशान तटस्थ रावपाचें धोरण आपणायल्लें. पूण ह्या तेंपार ताच्या वेपाराचेर खूब वायट परिणाम जाले. झुजा उपरांतच्या काळांत अर्थीक मंदी, बेकारी, नाझी तत्त्वांचो तसोच कम्युनिस्ट विचारसणीचो प्रसार आनी हेर कारणांक लागून जनता आनी शासन हांचेमदीं तणाव निर्माण जावपाक लागलो. दुसऱ्या म्हाझुजांत लेगीत नेदर्लंड्स देशान तटस्थ रावपाचें धोरण आपणायलें. पूण १९४०त जर्मनी सैन्यान घुरी घालून नेदर्लंड्स आपल्या शेकातळा हाडलें. उपरांत सुमार पांच वर्सांमेरेन हो देश नाझी लश्कराचे राजवटीखाला उरलो.

**अर्थीक स्थिती :** विसाव्या शेंकड्यामेरेन नेदर्लंड्साची अर्थीक स्थिती समाधानकारक आशिल्ली, पूण उपरांत दोनूय म्हाझुजांक लागून ती साप्प इबाडिल्ली. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत नेदर्लंड्सान रीतसर येवजणो आंखून उद्देगीक क्षेत्रांत खूब उदरगत घडोवन हाडल्या.

शेतवड हो हांगाचो मुखेल वेवसाय. हांगाची चडशी जमीन सपाट आनी पिकाळ आशिल्ल्यान तशेंच पोल्डर जमनीचोय वापर शेतवडीखातीर केल्ल्यान शेतकी मळार खूब उदरगत जाल्या. सद्या रसायनीक साऱ्याचो आनी यंत्रांचो शेतवडींत चड वापर जाता. गंव, ओट, राय, बार्ली, बटाट, वाटाणे, बीट ही हांगाची मुखेल पिकां. तणाची व्हड मळां आशिल्ल्यान पशूधन उत्पादनांतूय खूब वाड जाल्ली आसा. गोरवां, मेंढरां आनी कुकडां पोसपाचो उद्येग हो अर्थवेवस्थेचो म्हत्वाचो वांटो. फुलांच्या उत्पादनासावन येवपी येणावळूय खूब आसा. गुलाब, कार्नेशन, ट्युलीप, हायसिंच, डॅफोडिल, नार्सिसस ह्या फुलांचें उत्पादन खूब प्रमाणांत जाता. फुलाफळांचे लागवडीखाला सुमार १,२०,००० हॅक्टर जमीन आसून, ट्युलीप फुलांची निर्यात व्हडा प्रमाणांत जाता.

देशाक व्हड दर्यादेग लाबिल्ल्यान, नुस्तेमारी वेवसायाक हांगा खूब म्हत्व प्राप्त जालां. आयमॉयडन हें हांगाचें मुखेल नुस्तेमारी बंदर. हांगाच्या दर्यांत हॅरींग, प्लेस, कॉट, शार्क आनी सुंगटां व्हड प्रमाणांत मेळटात. झिलंड प्रांताचे फातरी दर्यादेगेर कालवांचे दाट थर मेळटात.

सैमीक तेल आनी वायू हांचे तशेंच कोळशाचे कांय प्रमाणांत सांठे हांगा मेळटात. पूण हांचे सांठे देशाचे गरजेपरस खूब उणे आसात. हाका लागून हांची चड प्रमाणांत आयात जाता. दक्षिण लिंबर्ग प्रांतांत कोळशाच्यो बारा खाणी आसात.

डच उद्येगीक क्षेत्र हें हेर युरोपी देशांपरस उसरां सुरू जालें (१८७०). दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत उद्देगीक क्षेत्राचेर भर दिल्ल्यान हांगाच्या उत्पादनांत खूब वाड जाली. हांगा वेगवेगळ्यो वस्तू तयार करपाचे साबार कारखाने आसात. चडशा कारखान्यांक लागपी कच्च्या म्हालाची व्हड प्रमाणांत आयात जाता. विटो, नळे आनी तिजुले हांच्या भट्टयो चड करून न्हंयांच्या देगांनी दिश्टी पडटात. रसायनीक उद्देगांत खूब वाड जाल्या. तिलबर्ग, हेल्मॉंट आनी आयंटहोव्हेन नगरांनी लुगटाच्यो गिरणी आसात. तिख्या उत्पादन हो हांगाचो चड म्हत्वाचो उद्देग आसून 'रॉयल नेदर्लंड्स ब्लास्ट फर्नेस आनी स्टील वर्क' हो देशांतलो तिखें उत्पादन करपी सगळ्यांत व्हडलो कारखानो. रॉटरडॅम शारांत तेल निवळीकरणाचे कारखाने आसात.

नेदर्लंडसाचे चडशे कारखाने ल्हान आनी मध्यम आकाराचे आसात. लोणी, चॉकलेट, कोको आनी अन्न प्रक्रिया करपाचे हेर कारखाने तशेंच चामड्याच्यो वस्तू, कंवचेचें सामान, कागद आनी सोरो काडप हे हांगाचे म्हत्वाचे उद्देगधंदे. गिल्डर हें देशाचें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारण :** देशाची चडशी भूंय सपाट आशिल्ल्यान, नेदर्लंड्स देश रेल्वेमार्ग आनी रस्त्यांच्या मळार खूब फुडारिल्लो जाला. उदकांतली येरादारी आदल्या तेंपासावन विकसीत जाल्ली आसून हांगा देशाभितर चलपी वेपारी बोटी २० हजारांवर आसून सुमार देड हजार तारवां सागरी वेपारांत आसात. न्हायन न्हंयेवयली येरादारी मुखेलपणान उदका मार्गांतल्यानूच जाता. रॉटरडॅम हें उदका येरादारीचें संवसारांत नामना मेळिल्लें व्हड केंद्र. युलियाना न्हायन-ॲम्स्टरडॅम, न्यूज-व्हाल हीं खारजां उदका येरादारीचे नदरेन म्हत्वाचीं आसात. रॉयल डच ॲरलायन्स ही देशांतली मुखेल विमान येरादारी कंपनी. हे कंपनीचीं विमानां संवसारांतल्या सगळ्या मुखेल शारांनी देंवतात. नेदर्लंडसाची तार आनी दूरध्वनी वेवस्था पोस्टाचे कक्षेंत आसा. १९८५ मेरेन हांगा ४०,००० टॅलॅक्स प्रेषणमार्ग आशिल्ले. रेडिओवयल्यो कार्यावळी मिडियम व्हेव (Medium Waves) वयल्यान प्रसारीत जातात. 'एफ् एम्' बॅंडाचीय सुविधा हांगा आसात. १९८६ मेरेन हांगा ४६० सिनेमा थिएटरां आशिल्लीं. देशांत उजवाडाक येवपी दिसाळ्यांचो आंकडो सुमार ८५ इतलो आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** देशांत आशिल्लो डच समाज हो फ्रिझियन, फ्रॅंक आनी सॅक्सन टोळयांची भरसण जावन तयार जाल्लो आसा. रोमी लोकांचो शेक हांगा आशिल्लो तेन्ना हजारांनी जर्मन लोक नेदर्लंड्साचे उत्तरेक येवन रावले. ह्याच वेळार देशाच्या दक्षिण भागांत फ्रॅंच लोकांचो शेक चलतालो. हाका लागून देशांत ॲंग्लो-सॅक्सन फ्रिजिया वंश उत्तरेक आनी फ्रॅंकीश प्रभावाखाला वाडिल्लो मुळावो हॉलंड वंश, दक्षिणेकडेन अशी वांशिक विभागणी आसा. देशाचे उत्तरेकडचे चडशे लोक प्रॉटॅस्टंट जाल्यार दक्षिणेकडचे कॅथलीक आसात. देश आकारान ल्हान आसलो तरी दर एका प्रांतान आपआपलें खाशेलेपण राखून दवरलां.

हांगाचीं घरां ल्हान आसलीं तरी वोत येवचें म्हूण तांची जनेलां व्हडलीं दवरतात. डच लोक हे फुलांचे मोगी आशिल्ल्यान त्यांच्या पोरसांनी वेगवेगळीं फुलझाडां पळोवपाक मेळटात. चडशीं घरां खारजांच्या देगांनी बांदिल्लीं आसात. खारजाच्या आलतड-पलतड येवपा-वचपाखातीर काडपा-घालपाक येतात असले पूल आसात. चडशा डच लोकांचो भेस, हेर युरोपी लोकांभाशेनूच आसता. पूण कांय गांवगिऱ्या वाठारांनी पुर्विल्लो

डच भेस पळोवपाक मेळटा. कांय वाठारांतले दादले लांब पँटी आनी रूंद झगे घालतात. जाल्यार बायलो धवीं चेंपी आनी लाकडाच्यो ऊंच जोतीं घालतात. हांगाचे जमनींत सदांच वलसाण आशिल्ल्यान चडशो डच बायलो पांय सुके उरचे म्हणून ऊंच लाकडी जोतीं घालतात. तांकां काम्पेन अशें म्हण्टात. मास, नुस्तें, तांतयां, सूप, भाजी, फळां आनी दुदाचे जिन्नस हें डच लोकांचें मुखेल अन्न. शारी भागांनी 'बॅड टी' घेवपाची चाल आजुनूय अस्तित्वांत आसा. देशाचें हवामान शितळ आशिल्ल्यान लोकांक चिरूट वा सिगरेट ओडपाचें व्यसन जडलां. सेंट निकोलस डे, नाताळ, नवें वर्स, इस्टर हे हांगाचे मुखेल सण.

नेदरलँडसाचे लोक डच भाशा उलयातात. कांय गांवगिऱ्या वाठारांनी प्राचीन डच (फ्लेमीश) भास आजुनूय उलयतात. काव्या, नाटक, कथा-कादंबऱ्यो आनी हेर क्षेत्रांनी डच साहित्यिकांनी मोलादीक लिखाण केलां. पूण नेदर्लंडसा भायर डच साहित्याचो व्हडलोसो प्रसार जावंक ना. योस्ट व्हान डेन व्हाँडेल, पीटर होफ्ट, हेर्मान हाइयरमान्स हे हांगाचे नामनेचे नाटककार जाल्यार कॉन्सटानायन हॉयगेन्स, व्हिलेम बिल्डरडायक, ई. जे. पॉट्गीटर, पी. सी बाउटॅन्स, एमा नायहोफ हे हांगाचे नामनेचे कवी.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन हांगां शिक्षण सक्तीचें केल्ल्यान सद्या निरक्षरांचें प्रमाण साप्प उणें आसा. लायडन, ग्रोनिंगेन आनी उत्रेक्त नगरांनी नेदरलँडसाचीं जगप्रसिद्ध विद्यापिठां आसात. वेगवेगळ्या धर्मीक गटांचींय स्वतंत्र म्हाविद्यालयां हांगा आसात. ॲम्स्टरडॅम, रॉटरडॅम, ग्रोनिंगेन, नायमॅगन नगरांनी शेतकी विद्यापिठां आसात.

डच लोक हे कलेचे मोगी आशिल्ल्याचे तांच्या सोबीत घरांवयल्यान तशेंच हांगा आशिल्ल्या वेगवेगळ्या सोबीत ज्यार्दिनांवयल्यान कळटा. पोरण्या रोमनेस्क आनी गॉथीक शैलींच्यो इगर्जो ॲम्स्टरडॅम, हेग, उत्रेक ह्या शारांनी पळोवपाक मेळटात. डिरीक बाउट्स, ह्युगो व्हान डरगूस आनी हिएरोनीगस बॉस ह्या पंदराव्या शेंकड्यांतल्या चित्रकारांनी डच चित्रकलेक म्हत्वाची सुवात मेळोवन दिली. ल्युकस व्हान लायडेन आनी यान व्हान स्कॉरल हे प्रबोधन काळांतले प्रसिद्ध डच चित्रकार. फ्रांस हाल्स, पीतर माँद्रीआन, याकॉप व्हान रॉयस्डाल, व्हिंसेंट व्हान गॉफ, यान व्रमेर हेय डच चित्रकार प्रसिद्ध आसून तांचीं चित्रां संवसारांतल्या प्रसिद्ध संग्रहालयांनी पळोवपाक मेळटात. डच लोकांक संगिताचीय खूब आवड आसा. यान पीतर्स स्वेलिंग्क हो सतराव्या शेंकड्यांतलो व्हड डच संगितकार आसून युरोपीय संगिताच्या इतिहासांत ताची नामना आसा. आलफॉन्स डिपेनब्रॉक, व्हिलेम पायपर आनी हेंक बेडाइंग्स हे हालींच्या तेंपावयले प्रसिद्ध संगीतकार. नाट्य कलेचोय हांगा विकास जाल्लो आसा. हांगाचीं नाटकां मुखेलपणान सामाजीक दुख्खांचेर बरयल्लीं आसात. डच लोकांक मैदानी खेळ आवडटात. पूण फुटबॉल हो तांचो चड आवडीचो केळ. सुटये दिसा सायकलीं वयल्यान पिकनिकेक वचप हो डच लोकांचो मुखेल छंद.

**म्हत्वाच्यो सुवाती :** ॲम्स्टरडॅम, रॉटरडॅम, हॅगे ग्रोनींजेन, आर्न्हेम, इंडोवेन मुट्रेच, ब्रेडा, आल्कमार, इव्होले, वेन्लो हीं हांगाचीं मुखेल शारां. आमेलंड जुंवो, दे हॅगे वेलुवे, प्रिझीयन जुंवो, हेट लू पॅलेस, म्युसे, फ्लेवॉलंड, सोयेस्टीडच पॅलेस, व्लिलंड जुंवो, वाल न्हंय हीं थळां पर्यावरणाचे नदरेन म्हत्वाचीं आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**नेपाळ :** अक्षांश : २८.०० ते ३०.०० उत्तर, रेखांश ८०.०० ते ८८.०० उदेंत; राजपाटण : काठमांडू; भासः नेपाळी; चलनः नेपाळी रुपया; धर्म - हिंदू; वाठारः १, ४७,१८१ चौ. किमी. लोकांचो आंकडो २१,१००,००० (१९९४). साक्षरताय : २९%. दर मनशाची सरासरी येणावळ : १७० अमेरिकी डॉलर्स (९१) राश्ट्रीय फूल-जपा पुष्प; राश्ट्रीय सवणें-चकोर (डांफे).

संवसारांतलें एकलें एकसुरें हिंदू राश्ट्र. हो देश भारत आनी चीन देशांचे मदीं आसा. देशाचे उत्तरेक चीन देशान आडायिल्लो तिबेट, उदेंतेक सिक्कीम आनी अस्तंत बंगाल जाल्यार दक्षिणेक बिहार आनी उत्तर प्रदेश हीं भारतीय राज्यां आसात.

दोंगर देगणां आनी बर्फाळ तेमकांनी ह्या देशाची चडशी भूंय आडावल्या. भुगोलीक नदरेन देशाचे तीन वांटे जातात - १) कसाळ तराई प्रांत - हो वाठार शेतोड, उदक आनी रानावनांनी भरिल्लो आसा, २) मदलो वाठार महाभारत तळें, चुरिया दोंगुल्ल्यो आनी भितल्लो तराई प्रांताचो उदकाळ वाठार हाणीं भरिल्लो आसा. ३) उत्तरेवटेनच्या शेकान शेक वाठारांत हिमालय पर्वत पातळ्ळा.

देशाचे उत्तर शिमेर चडशे उदकाचे झरे आसात. तांचो लोट दक्षिण अस्तंत दिशेन व्हांवता. हो लोट न्हयेंच्या रुपान दक्षिणेवटेन वचून गंगा न्हंयेक मेळटा. येतांबाकोसी, राप्ती, सरजू, काली, अरूण, तामर आनी माडी ह्यो हांगासल्ल्यो मुखेल न्हंयो.

संवसारांतलें सगळ्यांत व्हड तेमूक माऊंट एव्हरॅस्ट (नेपाळी नांव : सागर माथा) ह्याच देशांत आसा (उंचाय ८,८४८ मी.), हेर बर्फाळ तेमकांमदीं धवलगिरी (उंचाय - १७२ मी.), अन्नपूर्णा (उंचाय ८,०७८ मी. गौरीशंकर (उंचाय - ७,१४४ मी.), कांचनजंगा (उंचाय ८,१७२ मी.) हिमालयचोटी (उंचाय ७,८४६ मी.) हांचो आस्पाव जाता. वयल्या तेमकांमदली गौरीशंकर आनी माऊंट एव्हरॅस्ट, नेपाळ-तिबेट शिमेर जाल्यार कांचनगंगा नेपाळ भारत शिमेर आसा.

देशाचें तापमान जमनीच्या ऊंच सखलपणाक लागून सतत बदलता. हिमालयाच्या तेमकांनी तापमान ४° सॅ. परस उणें आसता. काठमांडू आनी ताच्या लागसल्ल्या वाठारांत तापमान सर्वसादारणपणान गरम आनी वताळ आसाता. हांगा तापमान २° सॅ. ३०° सॅ. मदीं थिरावल्लें दिसता. गिमाच्या दिसांनी उश्णकटबंधीय तराई वाठार आनी दोंगराच्या मूळसांतलें तापमान २७° सॅ. ते ३२° सॅ. मेरेन पावता. देशाचें सरासरी वर्सुकी तापमान ११° सॅ. इतलें आसा. (काठमांडू शार प्रमाण घेतल्यार).

जून ते ऑक्टोबर हे म्हयने, हांगासल्ले मोसमी पावसाचे दीस. कांय फावट मोसमी वाऱ्यावांगडा 'गारो' पडटात. गारो आनी मोसमी वारें एकठांय जावन वादळांय जातात. अस्तंत नेपाळांत पावसाचें वर्सुकी प्रमाण १,००० मिमी. (४०इंच) जाल्यार उदेंत नेपाळांत हें प्रमाण २,५०० मिमी. (१००इंच) आसता. ७,००० मी. वयर मोसमी पावसाचो परिणाम जाणवना. पावसाच्या दिसांनी न्हंय आनी व्हाळ हांचें उदक ६० पटींनी लेगीत वाडटा. हाचो परिणाम म्हणून हुंवाराचें प्रमाण चड आसता.

अस्तंत नेपाळांत गिमाच्या दिसांनी 'लू' नांवाचें गरम वारें व्हांवता. देशाचे वायव्य दिशेकडल्यान वर्सभर सतत वारें व्हांवता. हें वारें माऊंट एव्हरॅस्टासारक्या ऊंच बर्फाळ तेमकांचे कांय भाग उकते आनी सुके दवरता. हिमालयाचे दक्षिणे कडली देंवती उबी आसा. हाका लागून हांगा

बर्फाळ न्हंयो दिसनात. हाचे उरफाटें, उत्तरेकडची देंवती सरळ बसकणेन आसा. हाका लागून हांगा ३,५०० ते ५,००० मी. उंचायेर खुंबू, लांगटांग सारक्यो बर्फाळ न्हंयो तयार जातात. तांची लाबाय २० ते २५ किमी. इतली आसता.

शिंयाळ्यांत हिमालयाचीं तेमकां बर्फान गच्च भरिल्लीं आसतात. गिमांत हो बर्फ उदेंतेकडेन २८०० मी. आनी अस्तंतेकडेन २,००० मी. मेरेन सकयल देंवता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** तराईच्या उत्तर वाठारांत ८०० किमी. च्या लांब पट्ट्यांत मोसमी झाडां-झुडपांचीं रानां आसात. तातूंत साल, शिंशें, खैर आनी बर्च (भूर्ज) ही रुखावळ दिसता. शिवालिक आनी महाभारत दोंगराच्यो १,५०० ते ३,००० मी. उंचायेर चीड, देवदार, ओक, लांब न्हॅडोडँड्रॉन, पॉप्लर, अक्रोड आनी लार्च ही रुखावळ दिश्टी पडटा. हिमालय पर्वताचे मुखेल रांकेंत सुमार ३,९०० मी. उंचायेवयल्या आशिकुशीच्या वाठारांनी जायतीं रानां आसात. तातूंत स्प्रूस, फर, सायप्रस, जूनिपर, बर्च सारकिले रूख व्हड प्रमाणांत दिसतात. ते परस उंचायेर आल्प्स जातीची वनस्पत विंगड विंगड रंगीत फुलझाडां आनी मोटवे जातीची न्हॅडोडँड्रॉन रुखावळ दिश्टी पडटा. ४,००० ते ४,५०० मी. उंचायेर पूण बर्फाच्या शिमेखाला तणाचीं मैदानां आसात. उत्तर दिशेवटेन पातळिल्ल्या रानांनी मुळसाकडल्या भागांत दाटसाणीन झाडां झुडपां पातळिल्लीं आसतात. तांचे वाडीचो वेग जबरदस्त आसता. देखून तीं कापून काडटात. सद्या दक्षिणेकडेन तराईच्या जंगलाची भूंय हेर पिकावळीच्या उत्पादनापासत वापरतात. मध्य नेपाळांतूय जंगलाचो वाठार पिकावळी सकयल हाडला. अशे परिस्थितीक लागून रानां नश्ट जाल्यांत. ताचो परिणाम म्हणून जमनीचो कस वचप, हुंवार ह्यो गजाली वाडीक लागल्यात.

तराईच्या रानांत वाघ, बिबटो, रानांतले बैल, म्हस, रेडो, हत्ती, चितळ, हरण आनी माकड ही मोनजात दिसता. चितवन वाठारांतल्या राप्ती देगणांत एका शिंगाचे गेंडे विंगड विंगड जातींचे सोरोप मोटेले विंचू आनी न्हंयांनी मानगीं दिसतात. मध्य नेपाळांतल्या दोंगराळ वाठारांत रानां नश्ट जाल्ल्यान मोनजातींचो आंकडो उणो जाला. तरीय ह्या भागांत बिबटे, अस्वल आनी भोंकपी हरण (मंटजॅक) हे प्राणी दिसतात. हिमालयाच्या उंचेल्या भागांत आल्पायन प्रकाराच्या वाठारांत कस्तुरीमृग, ताहर नांवाचो रानबोकडो (हाका खाड आसना), गोराल जातीचें हरण, रानबोकडच्यो, लांडगे, बर्फांतले बिबटे ही मोनजात आस्पावता. हांगा कृकण वा महोका जातीचीं सवणीं खूब आसात. न्हंयांनी 'महासीर' नांवाचें नुस्तें मेळटा. 'येती' नांवाच्या हीम मानवाचीं पावलां जायत्या जाणांनी पळयिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. पूण ते विशीं ठोस पुरावो मेळूंक ना.

**इतिहास** : नेपाळ हें उत्तर तिबेटी भाशेंतल्यान आयलां. तिबेटींत ने म्हळ्यार घर आनी पाल म्हळ्यार लोकर. लोकरीच्या चड उत्पादनाक लागून वयलें नांव ह्या देशाक पडलें आसुंये अशी समजूत आसा. दुसरे दंतकथेप्रमाण, 'ने' नांवाचो एक ऋषी विष्णुमती वा वाघमती हे न्हंयेच्या संगमाचेर बसून तप करतालो. ताचे पुण्यायेन पावन जाल्ली भूंय म्हळ्यार 'नेपाळ' अशें म्हण्टात.

एके पुराणकथेप्रमाण नेपाळ आनी काश्मीर हे उदकान भरिल्ले वाठार आसले. कश्यप मुनीन स्वबळार काश्मिरांतल्यान उदक फोडून भायर काडलें. ताका लागून नेपाळांत वसती करपा खातीर सुवात जाली. ही दंतकथा नेपाळांतूय तशीच घोळटा.

नेपाळी इतिहासाचें एक आगळें खाशेलेपण म्हळ्यार तांची आजवेर उपलब्ध आशिल्ली 'राजवंशावली'. हे राजवंशावलींत नेपाळी राजा आनी राजघराण्याच्यो नोंदी क्रिस्ताआदीं ४११९ वर्सां सावन नोंदिल्ल्यो मेळटात. संवसारांत खंयच्याय देश वा वाठाराक इतलो पुर्विल्लो लिखीत इतिहास उपलब्ध आशिल्ल्याचें दुसरें उदाहरण ना.

डॉ. बुल्हर सयत अस्तंतेचे चडशे जाणकार आनी इतिहासकार राजवंशावलींत आयिल्ल्या नोंदीविशीं दुबाव परगटायतात. तांच्या मतान ह्यो नोंदी क्रिस्ताआदीं ६०० ते ७०० वर्सां पयलींच्यो आसपाक जाय. नेपाळची 'राजवंशावली' लांबलचक कागदाचेर बरोवन वेडावन दवरल्या. तातूंत आयिल्ली म्हायती अशी – यदुवंशीय गोरवां-राखण्यांनी हांगा पयली वसती केली. गोरवां राखण्याक गोरक्षे ह्या अर्थान गोरखे वा गुरखे म्हण्टात. यदू वा गोपालवंशीय ८ क्षेत्रपांनी (राजा) ५२२ वर्सां राज्य केलें. तांचीं नांवां आनी शासन काळ फुडले प्रमाण आसात. - १) भुक्त मानगत गुप्त - ८८, २) जयगुप्त - ७२, ३) परमगुप्त - ८०, ४) हर्षगुप्त- ९८, ५) भीमगुप्त - ३८, ६) मणिगुप्त - ३७, ७) विष्णुगुप्त - ४२, ८) यक्षगुप्त - ७२.

यक्षगुप्ताच्या मरणाउपरांत भारतांतल्या अहिर वंशियांनी हांगा ताबो मेळयलो. तांचे क्षेत्रप (राजा) अशे - १) वरसिंह २) जयमतिसिंह आनी ३) भुवनसिंह. तिगांचो वट्ट शासनकाळ २०० वर्सां चललो. तांचेफाटल्यान किरात वंशियांनी हो वाठार जिखलो. ह्या वंशांतले पयले स क्षेत्रप अशे : १) यालंबर २) पवि ३) स्कंदर ४) वलंब ५) हत्ती आनी ६) हुमति.

सातवो क्षेत्रप जितदास्ति हो महाभारत झुजांत पांडवांवटेन झुजतना सोंपलो. राजवंशावली प्रमाण जितदास्तिचें मरण आनी महाभारत झूज क्रिस्ताआदीं ३१३८ वर्सां जाल्लें. किरातवंशाचे हेर जावन गेल्ले क्षेत्रप अशे : ८) गलि (जितदास्तीचो पूत) ९) पुष्क १०) सुवर्मा ११) पर्व १२) थुंक १३) स्वानंद आनी १४) स्तुंक. स्तुंकाचे राजवटींत सम्राट अशोक नेपाळांत आयिल्ल्याचो उल्लेख 'राजवंशावलींत' आसा. ही नोंद अशोकाच्या काळाकडेन जुळना देखून ती प्रक्षिप्त अशें भारतीय इतिहासकार मानतात. उपरांतची वंशावली अशी : १५) ग्रिध्रि वा गिध्री १६) नाने १७) लुक १८) थोर १९) थोको २०) वर्मा २१) गूज २२) पुष्कर २३) केसु २४) स्नूश २५) सम्मु २६) गुणन २७) किंबू २८) पातुंक २९) गस्ती. वयल्या २९ क्षेत्रपांनी क्रिस्ताआदीं ३४३७ ते २३१९ अशें वट्ट १११८ वर्सां राज्य केलें.

किरातवंशीय गस्ती हाका हारोवन सोमवंशीय क्षेत्रपांनी ह्या प्रांताचेर आपलें शासन चलयलें. तांचो वट्ट शासनकाळ ६०७ वर्सां आसलो. ह्या वंशांतले कांय राजा अशे - १) निमिष २) मानाक्ष ३) काकवर्मन. ह्या वंशांतल्या पशुप्रेक्ष देव हाणें क्रिस्ताआदीं १८६७ वर्सां पाशुपतेश्वराच्या देवळाक नवे रूप दिलें. (काळ क्रिस्ताआदीं २३१९ ते १७१२ वर्सां).

सूर्य वंशीय राजांनी बाणेश्वराक आपलें राजपाटण करतकूच ह्या वंशाच्या ३१ राजांनी क्रिस्ताआदीं १७१२ ते १०० वर्सां मेरेन वट्ट १६१२ वर्सां राज्य केलें. तांचीं नांवां आनी शासनकाळ असोः १) भूमिवर्मन - ६७, २) चंद्रवर्मन - ६१, ३) जयवर्मन - ८२, ४) वर्षवर्मन - ६१, ५) सर्ववर्मन - ७८, ६) पृथ्वीसवर्मन ७६, ७) ज्येष्ठ वर्मन - ७५, ८) हरिवर्मन - ७६, ९) कुबेरवर्मा - ८८, १०) सिद्धीवर्मन, ११)

हरिदत्तवर्मा- ८१, १२ ) वासुदत्त वर्मन - ६३, १३) पाटिवर्मन - ५३, १४) शिववृद्धिवर्मन् - ५४, १५) वसंतवर्मन - ६१, १६) शिववर्मन - ६२, १७) रूद्रवर्मन - ६६, १८ वृषदेव वर्मन - ६१, १९) शंकरदेव - २५, २०) धर्मदेव - २४, २१) मानदेव - २०, २२) महादेव - २०, २३) वसंतदेव - १५, २४) उदयदेव वर्मन - ५, २५) मानदेव वर्मन - ३०, २६) गुणकामदेव वर्मन - १०, २७) शिवदेव वर्मन - ६१, २८) नरेंद्रदेव वर्मा - (शासनकाळ उपलब्ध ना), २९) भीमदेववर्मन - ३६, ३०) विष्णुदेव वर्मन - ४७, ३१) विश्वदेव वर्मन - ५१.

सूर्यवंशीय राजवट सोंपतकूच ठाकूरी वंशाच्या २१ क्षेत्रपांनी क्रिस्ताआदी १०० ते इ.स. ७९८-९९ मेरेन ८९९ वर्सां राज्य केलें. हे वंशावळींतलो पयलो राजा अंशूवर्मन. ताणें क्रिस्ताआदीं १०१ ते ३३ (क्रिस्ताआदीं) मेळून ६८ वर्सां राज्य केलें. राजवंशावलींत ते विशींची माहिती अशी दिल्या. २) कृतिवर्मन - ८७ (शासनकाळ), ३) भीमार्जुन वर्मन - ९३, ४) नंददेव - २५, ५) आनी ६) व्या क्षेत्रपाचें नांव आनी शासनकाळ उपलब्ध ना, ७) वीरदेव - ९५ हाणें ललीतपट्टण नांवाचे नगर वसयलें, देवळां बांदलीं, लोकाउपेगी कामां केलीं. ८) चंद्रकेतू देव






वयल्या २० क्षेत्रपांनी ५० वर्सां परस चड राज्य केल्ल्याचे उल्लेख आयिल्ल्यान इतिहासांतले अस्तंती बुदवंत वयली नोंद प्रमाण मानीत आसले तरीय श्री. पु. ना. ओक आपल्या 'हिंदू विश्वराष्ट्राचो इतिहास 'पुस्तकांतल्या ५३० पानाचेर फुडलें मत परगटायता. ताच्या मतान पुविल्ले लोक सकाळीं उठ्टाले, व्यायाम करताले, गायचें दूद पियेताले, शिस्तीन वागताले, व्यसनाचे आधीन नासले. त्या त्या काळांतली प्रदुशणविरयत जीण आनी सैम पळयल्यार वयल्या म्हणण्याक पुराय वाव आसा.

- ६६ ९) नरेंद्रदेव - ५६, हाणें लोमडीदेवी तिर्थाकडेन एक विहार विद्याकेंद्र बांदून बंधुदत्त नांवाच्या आचार्याक चलोवंक दिलें. १०) वरदेव - ५४, हाचे राजवटींत इ. स. ५२२ वर्सा शंकराचार्य आनी अलोकितेश्वर ह्या दोग संतांनी नेपाळाक भेट दिल्ल्याचे उल्लेख राजवंशावलींत आयल्यात. सद्याचो इतिहास आद्यशंकराचार्याचो जल्म इ. स. ७८८ वर्सा जालो अशें मानता. देखून वयले संत नेमके कोण? हे विशीं इतिहासकारांचें एकमत ना. ११) नरमूडी - ४५, १२) शंकरदेव - १२, १३) वर्धमान - १३, १४) बलिदेव - १३, १५) जयदेव - १५, १६) बालार्जुन देव

- १७, १७) विकमदेव - १२, १८) गुणकामदेव - ५१, हाणें कांतीपूर (आयचें काठमांडू) नगर वसयलें. १९) भोजदेव - ८, २०) लक्ष्मीकाम देव - २२, २१) जयकामदेव (शासनकाळ मेळना).

जयकामदेव हाका भुरगें नासलें देखून ताचे उपरांत नवाकोट ठाकुरी वंश सुरू जालो. नवकोट नगरांत रावपी जमात (वंश) तांचोच फांटो आसुंये अशें श्री. ओक हाचें मत आसा. इ. स. ७७८ ते ७९८ हीं २० वर्सां नवकोट ठाकुरी वंशाचो कोण क्षेत्रप जाल्लो तेविशीं उल्लेख ना. तेभायर वेल्या वंशाचे तीन हेर क्षेत्रपूय अज्ञान आसात. तांच्या उपलब्ध क्षेत्रपाचो वंश असो: १) भास्करदेव २) बलदेव ३) पद्मदेव ४) नागार्जूनदेव ५) शंकरदेव. शंकरदेवाच्या काळाउपरांत आदलो क्षेत्रप अंशुवर्मनाचो वंशज वंशदेव हाणें ललितापट्टणम आनी कांतिपूरच्या क्षेत्रपाच्या आदारान नवकोटाक वशिल्ल्या वंशाक हारयलो. अशे तरेन एक नव्या ठाकुरी वंशाचो कारभार सुरू जालो. तांचे क्षेत्रप अशेः १) वंशदेव २) हर्षदेव ३) सदाशिव देव.

सदाशिव देव हाणें काठमांडू शाराचे नैऋत्य दिशेक किर्तीपूर नांवाचो गांव वसयलो. पशुपतेश्वर देवळाचो घूड आनी वयलो भाग ताणें भांगराचो पत्रो घालून सजयिल्ले. इ. स. ७५९ वर्सा ताणें तांबें आनी लोखण भरसून तयार केल्लें नाणें चलनांत हाडलें. ताचेर शिवाची आकृती कोरांतिल्ली आसा. ताचे फाटल्यान ताचो पूत ४) मानदेव गादयेर आयलो. कांय काळाउपरांत ताणें सत्ता सोडली आनी संन्यास घेतलो. तेउपरांत सत्तेर आयिल्ले क्षेत्रप अशेः ५) नरसिंह देव ६) नंददेव ७) रुद्रदेव हो फुडें बौद्धपंथीय साधू जालो ८) मित्रदेव ९) अरिदेव १०) अभयमल्ल (अरिदेव हो तालमींत कुस्ती खेळटा आसतना ताका चलो जाल्ल्याची खबर मेळ्ळी. देखून ताणें आपल्या पुताक 'अभयमल्ल' हें नांव दवरलें अशी काणी आसा.) ११) जयदेवमल्ल हाणें इ. स. ८८० वर्सा नेवाडी संवत वा शक सुरू केलो. जयदेवमल्ल कांतीपूर आनी ललितापट्टणम नगरांत राज्य करता आसतना ताचो धाकलो भाव आनंदमल्ल हाणें भाटगांव वा भक्तीपूर नांवांचें नगर वसयलें. ही ताची राजधानी आसली. ताणें वसयिल्ल्या नगरांचीं नांवां अशीं १) वेणीपूर २) पानारि ३) नल ४) धोमखेल ५) खडपु वा शडपु ७) चंकाट ७) संग. वयल्या १२ क्षेत्रपांनी देडशें वर्सां परस चड काळ राज्य चलयलें.

कर्नाटकासावन आयिल्ल्या एक क्षेत्रपान जयदेवमल्ल आनी आनंदमल्ल हांकां हारोवन भाटगांव आनी कांतिपूर हीं नगरां हातासलीं. उपरांत हे दोगूय भाव तिन्हुत ह्या प्रांतांत गेले. कन्नड राजवटीचे क्षेत्रप अशेः १) नान्यदेव - हाची राजवट ८९० वर्सा सुरू जाली. ती पन्नास वर्सां चलली. २) गांगदेव हाणें ४१ वर्सां राज्य चलयलें. ३) नरसिंहदेव हाणें ३१ वर्सां राज्य केलें ४) शक्तिदेव हाणें ३९ वर्सां जाल्यार रामसिंहदेव हाणें ५८ वर्सां राज्य केलें. ६) हरिदेव हाच्या शासनकाळांत खाटमांडू (काठमांडू) ही ताची राजधानी आसली. ताच्या काळांत ललितपट्टणमच्या क्षेत्रपान ताका हारायलो. हे घुरयेंत जायतीं देवळां आनी मुर्तीचो विध्वंस जालो. जैतीवंत सेनेचो मुखेल मुकुंदसेन आसलो. अकस्मात ताच्या सैन्यांत दुयेंसाची धाम पातळ्ळी. तातूंत ताचें चडशें सैन्य सोंपलें. वांचून उरिल्लो मुकूंदसेन संवसाराक उबगून साधू जालो. ताका देवीघाटार मरण आयलें.

दुयेंसाची धाम आनी झूज हातूंत नेपाळाक व्हड नुकसान सोंसचें पडलें. राजकीय स्थिती अस्थीर जाली. ही उचांबळ परिस्थिती निवळचे आदीं नवको हांगाच्या बैस ठाकूर हाणें परत सत्ता हातासली. हे उपरांत नेपाळांत ल्हान ल्हान राज्यां निर्माण जालीं आनी अखंड राजसत्ता सोंपली.

चवदाव्या शतमानांत नेबारी मल्ल राजांचो प्रभाव हांगा पडलो. जयस्थितीमल्ल आनी ताचो नातू यक्षमल्ल हे त्या शतमानांत गाजिल्ले कर्तबगार राजा. तांच्या काळांत राजवाडे, देवळां खांबे आनी हेर वास्तूंची निर्मणी जाली. चवदाव्या शतमाना सावन सुमार तीनशें-साडेतीनशें वर्सां थळाव्या ल्हान ल्हान राजांची आपआपले मर्यादीत सुवातेंत राजवट चलली.

१७४० वर्सा गुरखा कुळयेंतलो राजा पृथ्वीनारायण हाणें आपली कर्तबगिरी सिद्ध करतना विसकटून पडिल्लीं ल्हान राज्यां एकठांय हाडलीं. गुरखा घराण्यांतल्या नेपाळी राजलक्ष्मी हाच्या हातांत हो कारभार आयलो. ताका आर्विल्ल्या नेपाळाचो जनक मानतात. सद्या चलपी राजवंश ताचेच कुळयेंतलो. पृथ्वीनारायणा उपरांत चवथे आनी पांचवे पिळगेंतले राजे दुबळे आनी व्यसनी आसले. राजेंद्र वीरविक्रम (१८१६-४७) आनी सुरेंद्र वीर विक्रम (१८४७-८१) हांच्या राजवटींनी राजसत्तेक देंवती कळा लागली. निमाणी रगतक्रांती जावन राजेशाय सोंपली. राजा नांवापूरतो उरलो. १८४६त जंगबहादूर राणा प्रधानमंत्री जालो आनी सत्तेची सगळीं सुत्रां ताच्या हातांत आयलीं. ताणें प्रधानमंत्री, मुखेल सेनापती आनी महाराज हीं पदां हातासून 'महाराजाधिराज' हो पर्याय रूढ केलो. जंग बहादूर राणा हाणें आपल्या कालखंडांत विदेशांत भोंवडी केली. इंग्रजांकडेन इश्टागत केली आनी १८५७ तल्या बंडांत वांटेकार जाल्ल्या नानासायबाक आलाशिरो दिलो. नेपाळी जवान विदेशांतल्यान मायभुंयेंत आयले. आपल्या कर्तुत्वाच्या बळार जंगबहादूर हाणें नेपाळाक आंतरराश्ट्रीय म्हत्व मेळोवन दिलें. १८७७त ताका मर्ण आयलें. ताचे फाटल्यान दीपसिंग, वीर समशेर, चंद्र समशेर, भीम समशेर, युद्ध समशेर, पद्म समशेर आनी मोहन समशेर क्रमान 'राणा' अधिकार पदार आयले. १९४०त नेपाळी काँग्रेसीन चड लोकशायी हक्कांखातीर चळवळ चलयली. हाचो परिणाम म्हणून राणाशाय सोंपली आनी मूळ राजघराण्यांतलो 'त्रिभूवन' राजा म्हणून सत्तेर आयलो. ताका लोकांची मान्यताय आसली. जून १९५९त नेपाळांत पयली सार्वत्रिक वेंचणूक जाली. हे वेंचणुकेंत बिश्वेवरप्रसाद कोयराला हाच्या फुडारपणाखाल काँग्रेस पक्ष जैतीवंत जालो. १९६०त राजा महेंद्र हाणें देशाची पयली संसद बरखास्त करून पक्षविरयत 'पंचायत' राज्य शासन प्रणाली चलणुकेंत हाडली. ३१ जानेवारी १९७२ दिसा राजा महेंद्राक मरण आयलें. उपरांत ताचो पूत बिरेंद्र सत्तेर आयलो. २४ मे १९७९ वर्सा ताणें राजकीय अधिसुचोवणी काडून पंचायत प्रणालीक लोकशायी अधिकार दिवपाविशीं जनमत घेवपाचें थारायलें. २ मे १९८० वर्सा ताच्या लोकशायी धोरणाक नेपाळी भौसाक आपले प्रतिनिधी वेंचपाची संद मेळ्ळी. एप्रिल १९९०त राजान तत्कालीन प्रधानमंत्री मारीच मानसिंग श्रेश्ट हाचें सरकार बरखास्त करून लोकेंद्र बहादूर चाँद हाका नवो प्रधानमंत्री नेमलो. हाचो विरोध म्हणून नेपाळांत हिंसक चळवळी जाल्यो. निमणी राश्ट्रीय पंचायत बरखास्त जावन नेपाळी काँग्रेसीचो कृष्ण प्रसाद भट्टाराय नवो प्रधानमंत्री जालो. १९९१ वर्साच्या सार्वत्रिक वेंचणुकांनी एम. पी. कोयराला हाच्या फुडारपणाखाल नवें सरकार घडलें.

**ब्रिटीश सत्ता आनी नेपाळ** : नेपाळी इतिहासांतलें हें एक ल्हान पूण म्हत्वाचें प्रकरण. नेपाळांतलो एक राजा (१७९९-१८१६) हाका कांय

कारणाक लागून देश सोडचो पडलो. हे घडणुकेचो उपेग ब्रिटिशांनी ह्या देशांत घुसपाखातीर करून घेतलो. ताणीं सुर्वेक रणबहादूराक रीण दिलें. भारतांत ताची बडदास्त बरी दवरली. ताचेकडेन रीण फारीक करचे पासत दबाव हाडलो. तराई शिमेविशीं वाद निर्माण केलो. नेपाळाक उलोवणीं करूंक वेळ मेळूंक ना. नेपाळांतले दोनशें गांव आपल्याक पडटात अशें म्हणून ब्रिटिशांनी नेपाळाचेर हल्लो केलो. हातूंत तांकां खर नुकसान सोंसचें पडलें. ब्रिटीश ऑक्टर्लोनीच्या फुडारपणाखाल काठमांडूचेर हल्लो करचेपयलीं सिगावलीची कबलात जाली. तेवरवीं कुमाऊँ, डेहराडून आनी सिमला हे वाठार ब्रिटिशांक मेळ्ळे (१८१५-१६) ब्रिटिशांनी जंगबहादूराक खूब आदार केलो. जंगबहादूरान आपले राजवटींत ब्रिटीशांकडल्यान फावो तो पालव घेतलो पूण आपले बुदवंतकायेन तांकां आपले भूंयेर थारो दिलो ना. १८५७तल्या बंडांत लखनौचे सुटके खातीर गुरखा शिपायांनी शौर्य दाखयलें. हाका लागून जंगबहादूराचें ब्रिटीश वाटकुळांत वजन वाडलें. १८५८त ताणें ब्रिटिशांचो विरोध पत्करून नानासायब पेशवाक आलाशिरो दिलो ही ताचे राजकीय बुदवंतकायेची गवाय म्हणूं येता.

पयल्या म्हाझुजांत अडेज लाख गुरखे ब्रिटिशांखातीर झुजले. तातूंतल्या वीस हजारांक मरण आयलें. दुसऱ्या म्हाझुजांत देड लाख गुरखे ब्रिटिश फौजांनी वावुरले. भारताचे सुटके उपरांत लेगीत ब्रिटिशांची गुरखे सैन्य भरतेची कचेरी भारतांत आसली. उपरांत ती नेपाळांत व्हेली.

१९२३ वर्सा ब्रिटीश नेपाळ मजगतीं एक कबलात जाली, तेवरवीं नेपाळ स्वतंत्र जालो. १९३४त ब्रिटीश वकिलातीचो पांवडो वाडलो. १९५० त एक नवी कबलात जाली तेवरवीं फाटल्यो सगळ्यो कबलाती रद्द जाल्यो. 'ओजस्वी राजन्य' हो नेपाळी भोवमान १९३४त पंचम जॉर्जाक आनी सव्या जॉर्जाची राणी एलिझाबॅथाक १९४६ वर्सा मेळ्ळो. सव्या जॉर्जाक नेपाळी लश्कराची मानादीक लश्कर मुखेल ही पदवी मेळ्ळी.

**भारत आनी नेपाळ** : भारत आनी नेपाळ आदल्या अखंड हिंदुस्थानाचो प्रांत आशिल्ल्यान दोगांयमदीं सांस्कृतिक आनी धर्मीक एकचार नांदील्लो दिसता. भारताच्या सुटकेझुजांत नेपाळी लोकांनी वांटो घेतिल्लो. जयप्रकाश नारायण आनी राम मनोहर लोहिया नेपाळांत बंदखणींत आसतना नेपाळी लोकांनी तांची सुटका केल्ली.

भारतीय राजकीय घडणुकांनी नेपाळ सदांच प्रभावीत उरला. नेपाळी घटना, शासनवेवस्था, न्यायखातें, शिक्षण आदी वेवस्थांची रचना आनी पुनर्रचणूक करूंक भारतान नेपाळाक म्हत्वाचो आदार दिला. नवे रस्ते (त्रभुवनराजपथ १२१ किमी.) विमानतळ, कोसी, गंडकी न्हंयेंवयलीं धरणां, त्रिशुली प्रकल्प आदी बांदकामां खातीर भारतान नेपाळाक पालव दिला. नेपाळी जवानांच्या तंत्रीक शिक्षणाची सोय भारतांत जाता. १९७८त दोनूय देशांमदीं उद्देगधंद्याच्या मळार म्हत्वाची कबलात जाली. ते वरवीं तांकां हेर देशांकडेन उद्देगीक संबंद दवरूंक मेळ्ळे. १९७६ ची कबलात नेपाळाक फक्त भारताकडेन उद्देगीक संबंद दवरूंक दिताली.

१९८९ त भारतान नेपाळाकडली उद्देगीक कबलात नवी करूंक कांय कारणां पासत कळाव केलो. हाका लागून नेपाळी अर्थवेवस्था हालली. १९९० त हो प्रस्न सुटलो.

नेपाळ हो राजकीय नदरेन वेगळो देश आसलो तरी दोनूय देशांचे नागरीक कोणाचेय मान्यतायेबगर दोनूय देशांनी मेकळेपणान भोंवक शकतात.

**विदेशी संबंद : चीन आनी नेपाळ** : नेपाळान आपलें इश्ट राश्ट्र चीनावांगडा संबंद सुदारल्यात. ताचो फायदो नेपाळी अर्थवेवस्थेक जाला. बांगलादेशावांगडा तांचे संबंद वाडीक लागल्यात. नेपाळ अलिप्त राश्ट्र संघटनेचो वांगडी आसून तेवरवीं संवसारांतल्या ९९ राश्ट्रांकडेन तांचो संबंद आयला (१९८७). दक्षिण आशियाई राश्ट्रसंघाचो नेपाळ वांगडी आसा. १९८७ वर्सा हे संघटनेची (सार्क) मुखेल कचेरी काठमांडूंत सुरू जाली.

**राजवेवस्था** : देशाचें राजवेवस्थापन सारकें चलचें म्हणून १४ विभाग केल्यात. देशाच्या १४ विभागांचीं नांवां अशीं:- १) बागमती २) भेरी ३) धवलगिरी ४) गंडकी ५) जनकपूर ६) कर्नाली ७) कोसी ८) लुम्बिनी ९) महाकाली १०) मेची ११) नारायणी १२) राप्ती १३) सागरमाथा आनी १४) सेथी. ते भायर ७५ जिल्हे आनी सुमार ३५०० गांवांनी देशाची वांटणी जाल्या.

राश्ट्रीय पंचायत ही नेपाळी लोकशायी राजसत्ता. तिचे वांगडी पंचायती पांवड्यार वेंचतात. तांचो मुखेल, प्रधानमंत्री आसून तो राज्याचे मान्यतायेन सरकार घडयता. राज्यांतली न्यायवेवस्था एकसंघ आसून सुप्रीम कोर्टाच्या देखरेखीखाला तिचो वावर चलता. सरन्यायाधीश सुप्रीम कोर्टाचो मुखेल आसता. ताच्या हाताखाल चडांत चड स न्यायाधीश नेमताता. ल्हान खटले निकालांत काडपाखातीर खास कोर्ट घडोवपाचो अधिकार सरकाराक आसता.

**अर्थीक स्थिती** : नेपाळ देशाचो अर्थीक भार शेतवेवसायाचेर आदारिल्लो आसा. वाडटे लोकसंख्येवांगडा, देशाची अर्थीक तांक वाडलिना १९८९ तल्या आंकड्याप्रमाण नेपाळी मनशाची वर्सुकी येणावळ १७० अमेरिकन डॉलर्र इतली आसा. हो आंकडो संवसारांत सगळ्यांपरस उणो आसा. १९६५ ते १९८५ ह्या काळांत देशाची वर्सुकी येणावळीची वाड ०.१% इतली आसली.

१९८१ वर्साक काडिल्ले आंकडेवारीप्रमाण देशांतले ९१% कामगार शेतवेवसाय, रानां आनी नुस्तेमारी उद्देगांत वावुरतात. वयल्या तिनूय उद्देगांवरवीं वट्ट येणावळींतलो ५९% वांटो उबो जाता. वयले तिनूय उद्देग वट्ट ६०% परकी चलन देशाक मेळोवन दितात (१९९०).

देशांत लोकसंख्येचे वाडीवांगडा रानां नश्ट जायत चलल्यांत. १९८४ त देशान रानां साबाळूंक एक येवजण आंखली. तिका संवसारीक बँकेन २४ दशलक्ष अमेरिकन डॉलरांचो पालव दिला. १९८७ वर्साच्या आंकड्याप्रमाण मोनजातीचो आंकडो असो गोरवां - ६,८९,०००, म्हसरां - २०,८९,०००, मेंढरां - ८,२१,०००, बोकड्यो - ५०,०७,०००, दुकरां - ४,६७,०००; कुकडां - १००,०००,००; १९८३ वर्साच्या आकड्याप्रमाण हांगा २,१०० टन नुस्त्याचें उत्पादन (वर्सुकी) जातालें.

**हांगाचीं मुखेल पिकां अशीं** - तांदूळ, मको, ज्वारी, बाजरी, गंव, ऊंस, बटाट, कड्डण, दाळ, मिरसांग, कांदे, सवाद.

**मुखेल फळां** - आंबो, पेर, संत्र, पोपाय, पणस, चींच, बोर डाळींब, च्या, कापूस, तंबाकू, सफरचंद, तेलबियो, ताग, अक्रोड, पीच आनी बदाम हांचो आस्पाव जाता.

**खनीज संपत** : नेपाळांतलें मुखेल खनीज अभ्रक आसून ताच्यो खाणी काठमांडू शाराचे उदेंतेक कुसमा नगरांत आसात. शिवालीक पर्वताच्या वाठारांत तांबें, कोबाल्ट, लोखण आनी कोळसो मेळटा. जस्त,

शिशें, निकॅल ग्राफाइट, चूनखडी आनी जिप्सम हांचे कांय सांठे आसपाची शक्यताय भूशास्त्री व्यक्त करतात. देशाच्या हेर वाठारामदीं - फुलचौकीक लोखणाचो अंश आशिल्लें शिशें, जस्त; आरखले हांगा तांबें, शिशें, मंजेरखोल हांगा शिशें, जस्त; भोरले, पागासिंग, खोकलिंग आनी तुंगधामाक निकॅल; तिप लिंगाक जस्त, दूगलुंगाक शिशें; बैसखानी, नपसा, ग्याजी; बुढरखोलाक, तांबें, सांगलेखाजा, बरहाहारेक रुपें मेळटा. हांगा कांय न्हंयांचे रेवेंत भांगर मेळटा. दोंगराळ वाठारंत गेरू आनी सुरमा नांवांचीं खनिजां सांपडटात. १९८० उपरांत आंतरराश्ट्रीय वित्त म्हामंडळ हेर संस्थांवरवीं खण उद्देगांत देंवल्या. तांचो भर शिशें, जस्त आनी मॅग्नेशियम धातूंच्या उत्पादनाचेर आसा.

**उर्जा :** देशाक दर वर्सा १,५०,००० मॅट्रीक टन पॅट्रोलियम पदार्थांची गरज लागता. तांची आयात अरेबीयन राश्ट्रां आनी रशियन राश्ट्रकुलांतल्या राश्ट्रांवरवीं जाता. पॅट्रोलियम पदार्थांचेर देशाचे निर्याती वरवीं मेळिल्ली ४४% येणावळ खर्च जाता.

देशांतल्या उदकाळ न्हयांचो उपेग वीज उत्पादनाखातीर जाता. १९८६ मेरेन ०.०५% उदकाचो वांटो वीज उत्पादनाचेर खर्च जालो. तेवरवीं ३९५ मॅगाकिलोवॅट वीज निर्मिणी जाली.

**उद्देगधंदे आनी वेपार :** देशाचे राश्ट्रीय येणावळींतलो १०% वांटो उद्देगधंदे उखलतात. तातूंत ल्हान उद्देगांचो वांटो ६% जाल्यार व्हड उद्देगांचो ४% आसा. देशांतल्या म्हत्वाच्या उद्देगांमदीं वीट, नळे, बांदकामाखातीर लागपी लाकूड, कागद, ताग, साकरीचे कारखाने 'वनस्पती' तेलाच्यो गिरण्यो, सोरो तयार करपी कारखाने, फळां सुकोवपी कारखाने, लुगटाच्यो गिरण्यो आनी सिगरेट तयार करपी कारखाने हांचो आस्पाव जाता.

जोतीं, खावपाचें तेल, सुती कपडे आनी सूत, गरम कोट शिंवप, फस्काकाडी, जनावरांच्या कातीसावन तयार जाल्ल्यो विंगड - विंगड वस्तू हे हांगाचे पारंपारीक उद्देग. पारंपारीक उद्देगांमदीं १० लाख कामगार वावुरतात. १९८४-८५ त नेपाळाक सुती कपडयाचे निर्यातीवरवीं ७०० दशलक्ष नेपाळी रुपया इतली येणावळ मेळ्ळी. देशांतलें हेर म्हत्वाचें उद्देगीक उत्पादन अशें - (वर्स : १९८२ १००० टनांनी) ताग = १५.७ साकर = २१.१, शिमीट = ३० आनी लोखणी वस्तू = ७.४.

भारत नेपाळाचो उद्देगधंद्यांतलो मुखेल भागीदार. देशाची ४४% निर्यात आनी ४०% आयात भारताक जाता. नेपाळाची विदेशांत जावपी उद्देगधंद्याची निर्यात तेचपरी विदेशांतल्यान जावपी आयात भारताच्या कलकत्ता बंदरांतल्यान जाता. १९८५ त चीनावांगडा उद्देगीक मळार सदळसाण येतकूच दोगांचोय वेपार वाडीक लागला. विदेशांत निर्यात जावपी मुखेल वस्तू अशा - फळां, ताग, तेलाबियो, लोणी, बटाट, आयुर्वेदीक मुळी, कात आनी गोरवां, आयात जावपी मुखेल वस्तू अशो - लुगट, सिगरेट, मीठ, पॅट्रोल, वखद, कागद, शिमीट, जोतीं, लोखण, तिखें आनी च्या.

**अर्थकारण :** देशाचें चलन नेपाळी रुपया आसून ताचे वजन १७१ ग्रेन इतलें आसा. १ नेपाळी रुपयाचे १०० नेपाळी पीस वा पयशे जातात. नाण्यांभायर १, ५, १०, १०० आनी १०० रुपयाच्यो नोटी चलनांत आसात. नेपाळी राश्ट्र बँक ही हांगाची मुखेल बँक. जुलय १९८६ मेरेन तिची मालमत्ता ११,३७९ दशलक्ष नेपाळी रुपया इतली आसली जाल्यार चलनी नोटांचें भांडार १० दशलक्ष नेपाळी रुपया इतलें आसा. उद्देगीक बँकांमदीं नेपाळ बँक लि. आनी राश्ट्रीय बनजिया बँक हांचो खास करून आस्पाव जाता.

**पर्यटन :** देशाक पर्यटनावरवीं म्हत्वाची येणावळ मेळटा. १९८६त नेपाळांत २,२६,२३६ पर्यटक आयले. १९८६ मेरेन देशांतल्या विंगड विंगड विसव घरांनी ८,७६० खाटांची सुविधा आसली.

**येरादारी आनी संचारण :** भारत आनी अमेरिकेच्या अर्थीक पालवान म्हत्वाच्या रस्त्यांची बांदणी देशांत जाल्या. ह्या दोनूय देशांनी वाहनां चलोवपाक योग्य १४०० किमी. लांबायेचे रस्ते बांदल्यात तातूंत दक्षिण नेपाळांतल्यान वाहनां वचपी उदेंत-अस्तंत म्हामार्गाचो आस्पाव जाता. चीनाच्या पालवान तिबेटाची शीम ते काठमांडू मेरेन रस्तो बांदून तयार जाला. हांगा २००० किमी. लांबायेचे रस्ते आसात. हांगा म्हाल व्हरपाखातीर एक खास प्रकारचो रस्तो बांदला, ताका रोप वे म्हण्टात. हो रोप वे काठमांडू ते बीरजंग वाठाराक जोडटा.

दोंगराळ वाठाराक लागून हांगा रेल्वेमार्गाची उदरगत जावंक पावलिना. ७२५ मिमी. रूंद रुळार चलपी रेल्वे हांगा आसा. ती नेपाळांतले जनकपूर आनी भारतांतले जयानगर ह्या सुवातींमदीं चलता. भारतांतल्या बिझलपुरा गांवासावन जनकपूर मेरेन वयल्या रेल्वेमार्गाची लांबाय ५४ किमी. आसा.

रॉयल नेपाळ ॲरलायन कॉर्पोरेशन ही हांगाची मुखेल विमानसेवा. हे सेवेचो थळावो लाव काठमांडू आनी इकरा जिल्ह्यांक मेळटा. १९८४ त हो लाव ३० ल्हान व्हड विमानतळ वा हॅलीपॅडांक मेळटालो. देशाची विमानसेवा काठमांडू सावन कलकत्ता, पाटणा, नवी दिल्ली, बँकॉक, रंगून आनी ढाका शारांक जोडल्या. ८३-८४ आंकडयावरवीं नेपाळांत वर्साक ४,२४,०० प्रवासी आनी २९०० टन म्हालाची हाडव्हर जाली.

काठमांडू शार टेलिफोनावरवीं राशोल हे बिहारांतले सुवातेक दक्षिणेवटेन जोडलां. काठमांडू उदेंतेवटेन तराईच्या मुळसांत आनी अस्तंतेकडल्या कांय जिल्ह्यांक जोडलां. आजमेरेन उपलब्ध १९७८ वर्साच्या आंकडयाप्रमाण नेपाळांत ९,४२५ टेलिफोन आसले. तातूंतले ५४३१ काठमांडू शारांत आसले. अमेरिका आनी भारताच्या पालवान देशांत ९१ बिनतारी संदेशयंत्रणा केंद्रां बांदल्यांत. तीं भारतांतल्या कलकत्ता आनी नवी दिल्ली शारांक जोडल्यांत.

१९८७ च्या एप्रिल म्हयन्यामेरेन देशांत ५८ दिसाळीं आनी ३४५ सातोळीं उजवाडाक येताली. कॉमनर, गुरखापत्र, नया समाज, नेपाळ भाषा पत्रिका, नेपाळ समाचार राइझिंग नेपाळ, समय आनी समाज हीं हांगासल्लीं मुखेल दिसाळीं. नेपाळी रेडिओ मध्य आनी लघु तरंगांवयल्यान आपल्यो कार्यावळी वितरायता. जावलाखेल आनी खुमल्तार केंद्रांवयल्यान इंग्लीश आनी नेपाळी भासांतल्यान कार्यावळींचें प्रसारण जाता. १९८६ वर्सा नेपाळी दूरदर्शनाक आरंभ जालो. ह्यो कार्यावळी सप्तकाक २३ वरां आसतात. १९८६त हांगा २० लाख रेडियो संच आनी २७,०० दूरदर्शन संच (हातूंत २५,००० रंगीत दूरदर्शन संच) आशिल्ले.

**संरक्षण :** नेपाळी लश्कराचे वांटे अशे - १ रॉयल गार्ड, ७ पायदळाच्यो ब्रिगेडी, दरेकींक नाळींचो विभाग, तंत्रीक सिग्नल. सत्रीधारी आनी येरादारीचो पंगड आसा. वायुदळाचो एक पंगड आसा. लश्करी जवानांचो वट्ट आंकडो ४०,००० आसून तांकां आदार दिवंक २८,००० राखीव सुरक्षा दलाचे जवान आसात.

नेपाळी विमानदळ, पांयदळासावन १९७९ वर्सा वेगळें जालें. सद्या विमानदळाकडेन ३ येरादारी विमानां,१पुमा हॅलिकॉप्टर, ३ चेतक हॅलिकॉप्टरां आसात.

**लोक समाज जीण :** १९८९ वर्साच्या अदमासाप्रमाण नेपाळाची लोकसंख्या १ कोटी ८८ लाख आसली. हांगाची मुखेल भास नेपाळी आसून ती सुमार ७०% लोकांची आवयभास. बिहारी भास १८.५% लोक उलयतात. मैथिली आनी भोजपुरी भास उलोवपी लोकांचो आंकडोय हांगा खूब मोठो आसा.

नेपाळाचो राश्ट्रधर्म हिंदू. देशांतल्या ९०% लोकांचो धर्म, हिंदू. ५.३ % बौद्ध जाल्यार २.७% लोक मुसलमान धर्माक मानतात. वट्ट लोकसंख्येंमदलो ६५% लोक गांवगिऱ्या वाठारांत, ३०% लोक तराई प्रांतांत आनी ५% लोक काठमांडूच्या देगणांत रावतात. १९७१च्या आंकड्याप्रमाण नेपाळांत लोकसंख्या वाडीचें प्रमाण १००० लोकांक ४४ जाल्यार मरणाचें २३ आसलें.

नेपाळांत काठमांडू शार सोडल्यार लोकवस्तीचीं शारां नात. कांय मुखेल शारां अशीं - काठमांडू - २,३९,१६०, बिरातनगर - ९३,५४४, पोखरा ४६,५४२, बिरजंग - ४३,६४२. नेपाळगंज - ३४,०१५, भैरावा - ३१, १९०.

भारत देशांतल्यान आयिल्ले आर्य वंशीय आनी तिबेटा सावन आयिल्ले मंगोल वंशीय हांच्या मिश्रणांतल्यान हांगा जायत्यो जाती जमाती घडल्यात. द्रविड वंशकुळयेचे लोकूय हांगा आसात. दोंगराळ वाठारांत वशिल्ल्या मुखेल जाती जमातींमदीं ब्राह्मण, छत्री, किरांती, लिंबू, राई, तामांग, मगर, सुनवार, गुरूंग, आनी चेपांग हांचो आस्पाव जाता. तराई प्रांतांत ब्राह्मण, रजपूत, थारू, दनवार, राजबन्सी, धनगर आनी मुसलमान रावतात. दलदलीच्या भागांत अवलियांच्यो टोळयो वसल्यात. हिमालय पर्वताच्या वाठारांत शेरपा, ल्होमी, थुदाम, ओलांगचंग, दोल्फो, लार्के ह्यो जमाती रावतात. किरात ही देशांतली सगळ्यांत पोरनी जमात. तिचो उल्लेख महाभारत आनी वेदांत मेळटा. किरात जाल्लो शंकर आनी अर्जून हांचें भितरलें झूज हें महाभारतांतलें म्हत्वाचें प्रकरण. महाकवी भारवी हाणें ताचेर 'किरातार्जूनम' हें म्हाकाव्य रचलां.

गोरखा ही नेपाळाची मुखेल जात. ती मंगोल आनी आर्य लोकांच्या मिश्रणान घडल्या. गोरखा जातीच्या मुखेल उपजातींमदीं खस, ठकुरी, मगर आनी गुरुंग हांचो आस्पाव जाता. गुरखे शिवाक मानतात. झुजारी वृत्ती तांचेमदीं उपजत आसता. भारतीय सैन्यांत आनी आदल्या ब्रिटीश फौजेंत गुरख्यांची खास पलटण आसताली. देशांतले हिंदू शिवा वांगडा विष्णुकूय भजतात. कांय जाण दोनूय देवांक भजतात. हांगा शैव, वैष्णव, बौद्ध आनी वज्रयानी तंत्रीक एकमेकांमदीं भरसून गेल्ले दिसतात. हाका लागून एकाच देवळांत शिव, विष्णु, बुद्ध आनी भैरव हांच्यो मुर्ती दिश्टी पडटात. गौतम बुद्धाचो जल्म हांगा लुम्बिनीच्या रानांत जाल्लो. देखून बुद्धाविशीं ह्या देशाक आपलेंपण दिसता.

नेपाळी लोकांच्यो विधी जाती-जमाती प्रमाण बदलतात. काठमांडू वाठारांत रावपी नेवारी लोक, चलयेचें लग्न भुरगेपणांत नारायण (विष्णु) वा बिल्वफळाकडेन करतात. अशें केल्यार चलयेक सौभाग्य मेळटा अशी तांचेमदीं समजूत आसा. हिंदूंच्यो कांय जमाती प्रेताक लासतात जाल्यार कांय न्हंयेंत सोडून दितात. लग्नमोड आनी विधवा बायलांचें लग्न करूंक कांय जमातींनी मेकळेपण आसा.

नेपाळी लोक आंगान काटूक, कश्टकरपी, मेकळ्या मनाचे आनी सोयऱ्यांचो मानपान करपी. तांचीं घरां दोन मजल्यांचीं आसतात. तीं वीट, माती आनी फातरांनी बांदतात. तळमजल्यार गोरवां बांदतात आनी सामान दवरतात. वयलो मजलो न्हिदपा उठपाखातीर आसता. नेपाळी लोक घराक तांबड्या रंगाची काव काडटात. घराचें वयलें पाखें कोंडे आनी तणान शिंवतात.

नेपाळी मनीस आंगांत सदरो, ताचेर कोट, कमराक कापडी कमरपटो, बंडी आनी तकलेक टोपी घालता. शारांतूय सर्वसादारण असोच भेस आसता. बायलो घागरो घालतात. शारांत बायलो साडयो न्हेसतात. अस्तंती प्रभावान आतां नेपाळी लोकांचो भेस बदलला.

तांदूळ, ज्वारी, बाजरी, गंव, दाळ, कड्डण, भाजीपालो, फळां आनी मास नेपाळी लोकांचें मुखेल अन्न. च्या, चिरूट, सिगार, विडी आनी सोरो ह्यो संवयो नेपाळी मनशाभितर सर्रासपणान दिसतात. नेपाळांत विदेशी वस्तू सवाय दरान मेळटात. पूण खावपाचे जिन्नस खूब म्हारग आसतात.

नेपाळी लोक परबो आनी सण उमेदीन मनयतात. हिंदू आनी बौद्ध कसल्याच आडखळीं विरयत एकमेकांच्यो परबो मनयतात. म्हाशिवरात्रीक नेपाळी लोक पवित्र मानतात. त्या दिसा पशुपतिनाथाची यात्रा जाता. हे यात्रेक भारत आनी विदेशांतल्यान लाखांनी लोक वतात. 'दशहरा' (दसरो) वा नवरात्र ही परब हांगा व्हड दबाज्यान मनयतात. नवरात्रांत दुर्गा, लक्ष्मी आनी सरस्वती हांची पुजा जाता. दसमीक उत्सव सोंपता.

दिवाळेक हांगा 'नहिर' म्हण्टात. दिवाळेदिसा गाय, सुणो आनी कावळ्याक अन्न घालतात. भावबीज, होळी, वसंतपंचम, रामनम, गोकुळाश्टम, गंगादशहरा, मकरसंक्रांत,नागपंचम, सुतापुनव ह्यो परबो हांगा मनयतात.

देशांतल्या म्हत्वाच्या उत्सवांमदीं भाद्रपदांतली इंद्रयात्रा आनी गात्रयात्रा, चैत्रांत घोडायात्रा, माघांत बाघमतींत माघस्नान, पौषांत मच्छिंद्रनाथाचो उत्सव, वैशाख पुनवेक बुद्धजयंती, भाद्रपदांत बुद्धाचो पंचनाद उत्सव,आशाढ म्हयन्यांत घंटाकर्ण उत्सव,राजा पृथ्वीनारायण शाह आनी नेपाळ नरेश त्रिभुवन वीरविक्रम हांच्यो जयंत्यो हांगां मनयतात.

नेपाळांतले कला आनी संस्कृतायेचेर हिंदू आनी बौद्ध धर्मांचो प्रभाव पडला. नेपाळी मुर्तीकला आनी वास्तू शिल्पाचेर तिबेट आनी चीनी शैलींचें पडबिंब पडलां. नेपाळी मुर्तीकार धातू फातर, हतयाचे दांत आनी लाकडासावन विष्णु, गणेश, भैरव, पशुपतिनाथ ह्या देवदेवतांच्यो आनी प्राणिमात्रांच्यो मुर्ती घडयतात. पॅगोडा शैलींतली बांदावळ पशुपतिनाथाचें देवूळ, भक्तपूरचो न्यतपोला, काष्टमंडप आनी तुळजा भवानीच्या देवळांत दिसता. बोधनाथाच्या स्तुपाची (खांबो) बांदावळ, चैत्यशैलींत बांदल्या.

नेपाळी चित्रकला, पुर्विल्लया वण्टीचित्रांनी दिश्टी पडटा. देवळांच्या वण्टींचेर भक्तपूर आनी काठमांडूच्या संग्रहालयांनी ही पुर्विल्ली चित्रकला पळोवंक मेळटा. तांचो काळ किरात लिछवी आनी मल्ल इतलो पोरनो.

लाकूड, हतयाचे दांत, रुपें, पिंतुळ हांचें वयलें कोरीव काम शाली आनी गालिचे करपाची कला हांगा तिगून आसा. संगिताच्या मळार नेपाळी लोकगीत आनी भजनाची गोडी सामान्याभायली आसा. हीं गितां गायत भोंवपी शाहीर आनी सारंगीवाले हांगा दिसतात. नेपाळी नृत्य प्रकारांत देवीनृत्य आनी भैरवीनृत्य हांचो मुखेलपणान आस्पाव जाता.

**शिक्षण :** देशांत साक्षरतायेचें प्रमाण फक्त २९% आसा. चडांत चड

लोकांक साक्षर करपा पासत सरकार प्रयत्नशील आसा. मुळाव्या शिक्षणाचें माध्यम नेपाळी आसून मुळावे शाळेचो अभ्यासक्रम पांच वर्साखातीर आसता. स वर्सां जातकूच भुरग्याक शाळेक धाडूं येता. उपरांत माध्यमिक शिक्षण पांच वर्सांखातीर आसता. तातूंत दोन वांटे आसतात. पयलो वांटो दोन वर्सांचो. दुसरो वांटो तीन वर्सांचो.

१९८४ वर्सा उपलब्ध आशिल्ल्या आंकड्याप्रमाण ५२% भुरग्यांची शाळेंत नोंदणी जाल्ली. तातूंत ७२% चले आनी ३०% चलयो आसल्यो (वट्ट आंकड्यांत). माध्यमिक शाळांनी १८% नांव नोंदणी जाल्ली (१९८४). तातूंत २७% चले आनी ९% चलयो आसल्यो.

१९८५ वर्साच्या उपलब्ध आंकड्याप्रमाण देशांत ११,९४६ मुळाव्यो शाळो आसून तातूंत १८,१८,६६८ भूरगीं शिकतात. माध्यमिक शाळांनी हो आंकडो ५०१,०६३ इतलो आसा. त्रिभूवन विद्यापीठ काठमांडू ही हांगासल्ली उंचेली शिक्षण दिवपी एकली एकसूरी संस्था. तिचो फांटो पोखरण हांगा आसा.

**भलायकी :** १९८२ च्या आंकड्या प्रमाण हांगा ७३ हॉस्पिटलां आनी दुयेंतींखातीर २५८६ खाटांची सोय आसली. १९८६त देशांत दोतोरांचो आंकडो ६०० आसलो. १९८७/८८च्या अदमासपत्रकांत ५८३.३ दशलक्ष नेपाळी रुपयांची तजवीज भलायकी विभागाचेर केल्ली. १९८४त जपानाच्या पालवान हांगा ३०० खाटांचें वैजकी म्हाविद्यालय/हॉस्पिटल सुरू जालें. ताचो लाव ५०० शिकपी दोतोरांक मेळटा.

**भाशा आनी साहित्य :** देशाचे मुखेल भाशेक नेपाळी वा गोरखाली (गोरख्यांची भास) म्हण्टात. ही देवनागरी लिपींत बरयतात. उंचेल्या वर्गांत भाशेचें माध्यम इंग्लीश आसा. इंडो-युरोपियन, तिबेटी - ब्रह्मी, ऑस्ट्रो-आशियी पंगडांच्यो भासो हांगा प्रचलीत आसात. उत्तर वाठारांत शेरपा, हायू आनी लापचे, उदेंतेक किराती, राई, लिंबू, अस्तंतेक गुरूंग, मगर आनी तराई वाठारांत नेपाळी वांगडा अवधी, मागधी, भोजपुरी, कुमाऊनी आनी मैथिली भासो उलयतात.

बौद्ध आनी हेर इतिहासीक साहित्य काठमांडूंत दवरलां. भानुभक्त हो नामनेचो कवी नेपाळींत अजरंवर रचना दवरून गेला. म्हान साहित्यीक, बाळकृष्ण समशेर हाका नेपाळाचो शेक्सपियर मानतात. राजा महेंद्र वीरविक्रम हो कवी आसलो. ताच्या काव्यरचनांचे इंग्लिशींत अणकार जाल्यात.

भारतांत नेपाळी भास हांगासून गेल्ले गोरखा लोक उलयतात. भारतीय साहित्य अकादमीन हे भाशेक मान्यताय दिल्या. हेर भाशांवरी, नेपाळींतले बरे साहित्यकृतीचो दर वर्सा साहित्य अकादमी पुरस्कार दिवन भोवमान करतात. ऑगस्ट ९२त नेपाळी भास कोंकणी आनी मणिपूरी वांगडा भारतीय घटनेच्या आठव्या परिशिश्टांत गेली.

**म्हत्वाचीं थळां :** संवसारीक नामनेचें तेमूक माऊंट एवरॅस्ट (उंचाय ८८४८मी.) अन्नपूर्णा तेमूक, शारांमदीं काठमांडू, बीरगंज, नेपाळगंज, देवळांमदीं - पशुपतिनाथाचें देवूळ, बुद्धाचें जल्मस्थळ लुम्बिनी हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं थळां आसात.

**हेर म्हत्वाची म्हायती :** संवसारांतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक गांठपी पयलो मनीस जावपाचो मान शेरपा तेनसिंग नोर्के आनी एडमंड हिलरी हांकां वता. शेरपा तेनसिंग नेपाळी गुरखो जाल्यार एडमंड हिलरी न्यूझीलंड देशाचो नागरीक.

- पंढरीनाथ सुरसुरे

**नेपाळी भास :** नेपाळी ही नेपाळची राश्ट्रभास. गुरख्यांची गोरखाली म्हळ्यार सद्याची नेपाळी. ही देवनागरी लिपींत आसा. इंडो-युरोपियन कुटुंबाच्या भारतीय गटांतली ही एक नव आर्यभास. नेपाळी भाशेक पर्वतिया, गोरखाली आनी खसकुरा अशीय नांवां आसात. हे भाशेचें शुद्ध रूप तराई वाठारांत उलयतात. नेपाळी भाशेंत कुरा शब्दाचो अर्थ बोली असो जाता. ताचेवयल्यान खसकुरा म्हळ्यार खसांची बोली असो अर्थ जाता. इ. स. च्या १८व्या शेंकड्यांत नेपाळच्या तराई प्रदेशाचेर गुरख्यांची सत्ता स्थापन जाली आनी नेपाळी ही थंयची राजभास जाली. गुरख्यांच्या संबंदाक लागून तिका गोरखाली म्हणूंक लागले. फुडें १९३२सावन गोरखाली ह्या नांवाच्या बदलाक नेपाळी हें नांव प्रचारांत आयलें. नेपाळाबगर भारतांतल्या डेहराडून, दार्जिलींग, कलकत्ता, आसाम ह्या वाठारांनी आनी सिक्कीम, भूतान आनी ब्रह्मदेश ह्या प्रदेशांनी नेपाळी भास चड उण्या प्रमाणांत उलयतात. नेपाळचे उत्तरेक तिबेटी, उदेंतेक भूतानी, दक्षिणेक बंगाली, मैथिली, भोजपूरी आनी अवधी तशेंच अस्तंतेक कुमाऊंनी ह्यो भासो उलयतात. ह्या सगळ्या भाशांचो प्रभाव नेपाळी भाशेचेर पडला. नेपाळी भाशेंत तिचीं स्वताचीं अशीं उतरां खूब थोडीं आसात. हे भाशेतले चडशे शब्द व्रज, अवधी आनी खडीबोली ह्या भाशांवरवीं संस्कृत हे भाशेंतल्यान घेतल्यात. तशेंच कुमाऊंनी, गढवाली, पहाडी बोली, भोजपूरी, मैथिली ह्या भाशांतल्यानूय कांय उतरां नेपाळींत आयल्यांत. अरबी आनी फार्सी ह्या भाशांतलीं शेंकड्यांनी उतरां हिंदुस्थानी वरवीं नेपाळींत गेल्यांत. नेपाळी भाशेंत संस्कृत शब्दांचीय संख्या व्हड आसा. कांय खेपे हे शब्द तशाक तशे आयल्यात जाल्यार कांयकडेन मातशे बदल जावन आयल्यात. देखीक - ईश्वालू (ईर्ष्यालू), कदम् (कदंब), दसे (दसम), पोस्तक (पुस्तक). नेपाळी भाशेंतूय तीन लिंगां आसात. ओकारान्त पुल्लिंगी, इकारान्त स्त्रीलिंगी आनी उकारान्त नपुंसकलिंगी आसतात. वचनां मात एकवचन आनी भोववचन अशीं दोनूच आसतात.

सर्वनामां अशीं आसात

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथम पुरुश | म | हामी |
| द्वितीय पुरुश | ता | तिमी, तपाई |
| तृतीय पुरुश | यो | यिमीहरु |
| | त्यो | तिनीहेरु |
| | उ | उनीहरु |

नेपाळी भाशेंतलीं कांय वाक्यां -

तिम्रा नाम के हो ?

तुजें नांव किदें ?

उहां के काम गुर्न हुच्छ ?

ते किदें काम करतात ?

तिम्रो घरमा अरु को को छन ?

तुमच्या घरांत आनीक कोण कोण आसात ?

हुंछ त, केही बेर बाटो हेरौ. 'बरें आसा, कांय वेळ वाट पळोवंया'

एकवचनी नामां आनी सर्वनामां हांकां हरू प्रत्यय लायल्यार ताचें अनेकवचन आनी क्रियापदाक न् लायल्यार ताचेंय अनेकवचन तयार जाता.

नेपाळी भाशेंत क्रियेच्या शेवटाक येवपी छ, छनू आनी हून हे प्रत्यय

वर्तमानकाळ दाखयतात. नेपाळींतलो कर्तृवाचक प्रत्यय ले हो हिंदींतलो ने. कर्माचो विभक्त प्रत्यय को हो हिंदीच्या 'का' चेंच रुपांतर. भोजपूरी भाशेंतलीं कांय उतरां व्यंजनविपर्यय जावन नेपाळींत आयल्यांत, देखीक - विरामी (बिमारी), विर्सना (बिसरना), बेग्ला (वेगळो), निम्ती (निमित्त).

नेपाळच्या ७० टक्के लोकांची ही आवयभास. उरिल्ले ३० टक्के लोकांक नेपाळी भास उलयल्ली समजता आनी ते उलोवंक शकतात.

– कों. वि. सं. मं.

**नेपाळी साहित्य :** इ. स. १५४३तलो, महाराज द्रव्यशाहाच्या तांब्यापटयाचेर बरयल्लो नेपाळी भाशेंतलो सगळ्यांत पोरणो लेख. काठमांडूचो राजा प्रतापमल्ल हाणें सुमार तीनशें वर्सांपयलीं नेपाळी भाशेंत एक शिलालेख कोरांतिल्लो आसा. पूण नेपाळी साहित्याचो खरो आरंभ इ. स. च्या अठराव्या शेंकड्यासावन जालो. प्रेमनिधी पंत हो नेपाळचो पुर्विल्लो लेखक. ताचे लेख मात्र उपलब्ध ना. गुमानी नांवाच्या कवीन आपल्या श्लोकांतले तीन चरण संस्कृतांत आनी एक चरण नेपाळींत बरयला. उपरांत वीरशाली पंत, रघुनाथ, वसंत, इंदिरस, विद्यारण्य केंसरी, यदुनाथ पोखरैल आनी पतंजली गजुर्याल ह्या कवी, लेखकांनी खंडकाव्यां बरयलीं. तशेंच कांय ग्रंथांचे नेपाळी भाशेंत अणकारूय केले.

वीरशाली ह्या वैशणव कवीन द्रौपदीविलाप आनी गोपिकास्तुती हीं काव्यां रचल्यांत. रघूनाथाचें सुंदरकांड, वसंताचें कृष्णचरित, विद्यारण्याचें द्रौपदीस्तुती, गोपिकास्तुती आनी युगलगीत, यदुनाथाचें कृष्णचरित आनी पतंजलीचें मत्स्येंद्रनाथकथा, हरिभक्तमाला आनी गोपालवाणी हे ग्रंथ प्रसिद्ध आसात. इंदिरसाचे ग्रंथ मात उपलब्ध नात. उपरांत भानुभक्त ह्या नामनेच्या कवीन अध्यात्मरामायणाचो अणकार नेपाळी भाशेंत केलो. तेखातीर ताका नेपाळचो तुलशीदास म्हण्टात. तशेंच, ताणें भक्तमाला आनी वधूशिक्षा ह्या नांवांचे दोन ग्रंथ बरयले. जितेपणीं भानुभक्ताचे कवितेची लोकांनी व्हडलीशी कदर केली ना. पूण ताचे उपरांत लेखनाथ पौड्याल, मोतीराम भट्ट हे नांवाजते कवी जावन गेले. मोतीराम भट्ट हाणें भानुभक्ताचें चरित्र बरयलां. तशेंच ताचें 'रामायण' उजवाडावन ताका नामना मेळोवन दिली. त्याच काळांत लक्ष्मीदत्त, गोपीनाथ तीर्थराज, मरीचिमानसी आनी वीरेंद्रकेसरी हे लेखक जाले. हांचे उपरांत शिखरनाथ हो नामनेचो कवी नेपाळांत जावन गेलो. ताची रामाश्वमेध, तीर्थयात्रावर्णन हीं पुस्तकां खूब गाजल्यांत. शंभुप्रसाद ह्या कवीन 'रत्नावली' ह्या संस्कृत नाटकाचो नेपाळी भाशेंत अणकार केला. ताचीं कांय भजनांय नेपाळांत प्रसिद्ध आसात.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवातीकसावन नेपाळी साहित्याक खाशेली चालना मेळ्ळी. १९१२ त हेमराजान बरयल्लें 'चंद्रिका' हे नेपाळीचें पयलें व्याकरण उजवाडा आयलें. उपरांत कोशाचे रचणुकेक सुरवात जाली. १९२० वर्सा 'गुरखा' भाशा प्रकाशन समितीची स्थापणूक जाली. १९३० वर्सा कृष्ण बहादूर हाणें 'मकई को खेत' ही राणा राजवटीचेर एक उपरोधिका रचली. बाळकृष्ण आनी पुष्कर शमशीर ह्या दोन भावांनी नेपाळी साहित्य निर्मितींत मोलाची भर घाली. बाळकृष्ण हो नाटककार. ताणें 'मुलुको कथा' म्हळ्यार काळजाची कथा, ध्रूव, प्रल्हाद हीं पद्यनाटकां तशेंच ऊनी भरेथी, भक्त भानुभक्त हीं गद्यनाटकां बरयलीं. 'चीसो चुलो' म्हळ्यार थंड चूल ह्या नांवाचें एक महाकाव्यूय ताणें बरयलें. पुष्कर हो कथालेखक. ताणें इंग्लिशींतले विंगड विंगड साहित्य प्रकाराचे अणकार केल्यात. तेच भाशेन ताणें कोशाची रचणूक, व्याकरण ह्या क्षेत्रांनीय काम केलां. लक्ष्मी प्रसाद देवकोटा आनी सिद्धिचरण श्रेश्ठ ह्या दोन कवींची काव्यरचणूक उल्लेख करपासारकी आसा. देवकोटा ह्या महाकवीन 'सुलोचना' नांवाचें म्हाकाव्य बरयलें. ताच्याच मून मदन ह्या आनीक एका म्हाकाव्याचीं सुरवातेचीं स पदां नेपाळ रेडिओवयल्यान वितरायतात. सिद्धिचरण हाणें सगळ्यांत पयलीं मुक्तछंदांतली कविता बरयली. केदार मन व्यथिथ हाचो समाजीक आशयाचेर बरयल्ल्या कवितांचो 'एक दिन' हो काव्यांझेलो उल्लेख करपासारको आसा. धर्म रे थापा ह्या कवीन 'थन सिंकी कांची' ह्या शोकात्म खंडकाव्यांत ताणें खेड्यांतल्या लोकांचेर जावपी अन्यायाचें चित्र चित्रायलां. नेपाळाचो राजा महेंद्र होय कवी आशिल्लो. ताच्या कांय कवितांचे इंग्लिशींत अणकार जाल्यात. भीमनिधी तिवारी हाणें कांय पुराणीक नाटकां बरयलीं. नेपाळी साहित्यांत नेपाळी लोकगितांचो उपाट संचय आसा. ह्या लोकगितांची पोसवण नेपाळांतल्या १४ वाठारांनी जाल्या. शेतकामत्यांचीं, व्हडेकारांचीं, विरही बायलांचीं, तशेंच सणा-परबांक गावपाचीं अशी विंगड विंगड प्रकारांचीं हीं पदां आसात. विष्णुचरण हाणें १९३४त बरयल्ली 'सुमति' ही नेपाळी साहित्यांतली पयली कादंबरी. उपरांत रुद्रराज पांडेय, रुपनारायण, बांगदेल हांच्योय कांय उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो आसात. रामकृष्ण शर्मा, हो नेपाळींतलो पयलो समिक्षक. ताचेउपरांत यदुनाथ खनाल हाचो 'समालोचना को सिद्धांत,' हृदयचंद्र सिंह प्रधानचो 'साहित्य-एक दृष्टिकोण' तशेंच 'के ही नेपाळी नाटक' हे समिक्षाग्रंथ नांवाजिल्ले आसात. १९५२ वर्सा कलेची आनी साहित्याची पोसवण आनी विकास करपाखातीर रॉयल नेपाळ अकादमीची स्थापणूक केल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**नेपोलियन बोनापार्ट :** (जल्म : १५ ऑगस्ट १७६९ कॉर्सिका; मरण : ५ मे १८२१ सेंट हेलॅना जुंवो).

फ्रांसाचो सम्राट, एक व्हड सेनानी आनी कार्यक्षम प्रशासक. कार्लो बोनापार्ट आनी लेतीझीया रामोलिनो हांचो नेपोलियन चौथो पूत. ताच्या घराण्याचें नांव बोनापार्ट. हें घराणें इटलींतल्या तस्कन नगरांतलें. पूण सोळाव्या शेंकड्यांत कॉर्सिकाक येवन आयोतचो हांगा



ताणीं राबितो केल्लो. नेपोलियनाच्या जल्मा वेळार जेनोआ संस्थानांत कॉर्सिका हो जुंवो फ्रांसाक विकिल्लो. हाका लागून बोनापार्ट कुटूंब फ्रँचांचें नागरीक जालें.

नेपोलियनान आपणालें शिक्षण तीन वेगळ्या वेगळ्या शाळांतल्यान घेतिल्लें. नेपोलियनाचें मुळावें शिक्षण आयातचोक जालें. मुखार ताचो

बापूय फ्रँचांची नोकरी करपाक लागलो. तेन्ना तो मुखावयलें शिक्षण घेवपाखातीर फ्रांसांत आयलो. ब्रिएनाच्या लश्करी विद्यालयांत पांच वर्सां लश्करी शिक्षण घेतले उपरांत नाळी पेटोवपाचें शिक्षण घेवपाखातीर ताणें आपलें नांव एकॉल मिलितॅर अकादमींत घालें. हांगां शिक्षण चालू आसतनाच १७८५त ताच्या बापायक कर्करोगान मरण आयलें आनी सगळ्या कुटुंबाची जापसालदारकी ताचेर पडली. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सासावन तो कुटुंबाचो मुखेली म्हणून वावुरपाक लागलो. दुसऱ्या वर्सा तो दुसरी परिक्षा बेचाळिसाव्या क्रमांकान पास जालो. शाळेंत आसतना हुशार विद्यार्थ्यांमदीं ताचो केन्नाच आस्पाव जालोना. सूर्वेक फ्रांसांत तो एक परकी म्हणून रावलो. ताका चडशे वांगडी नाशिल्ले. ताका ल्हानपणासावनूच व्हड व्हड सम्राटांच्यो आपपिजणो वाचपाची खूब आवड आशिल्ली.

सुर्वेक 'ला फॅर' हे प्रशाळेंत दुसरो लॅफ्टनंट म्हणून ताची नेमणूक जाली. लॅफ्टनंट म्हणून ताची सुर्वेक नेमणूक व्हालांस ह्या गांवांत जाली. ह्या वेळार लियाँ हांगाच्या कांय लोकांनी बंड केलें. पूण नॅपोलियनान तें मोडून उडयलें. हांगा आसतना ताणें रुसो, रेनल 'गीबॅर' प्लूतार्क हांचे ग्रंथ वाचून तांचो खोलायेन अभ्यास केलो. राज्यक्रांती, राजेशाय हांचो अंत आनी प्रजासत्ताक हाचो उदय ह्या तीन घटनांक लागून ताचे येवजणेक एक नवी दिशा मेळ्ळी. ताणें lettres Sur la Corse हें पुस्तक बरयलें. हातूंत ताणें आपल्या थळाव्या जुंव्याविशीं (corsica) भावना व्यक्त केल्यात. ताका कॉर्सिकाची भोव ओड आशिल्ली म्हणून सप्टेंबर १७८६त तो कॉर्सिकाक परत गेलो. तो आपल्या रेजीमँटाक परत केन्नाच मेळ्ळोना. कॉर्सिकाच्या स्वातंत्र्यझुजांत ताचे आनी पाओली हाचे मतभेद आशिल्ले. १७८९त संविधान समितीन पाओलीक परत कॉर्सिकांत येवपाक परवानगी दिली. नेपॉलियन व्हडा उमेदीन पाओलीचे संघटणेक मेळिल्लो. पूण पाओली ताका सदांच परकी म्हणून हिणसावपाक लागलो. शेवटाक निर्शेवन तो फेब्रुवारी १७९१त फ्रांसाक परत आयलो.

फ्रँच राज्यक्रांतीक जेन्ना नेट चडिल्लो, तेन्ना तो जॅकोबिन पक्षाचो घटक जालो. रोखडोच तो त्या पक्षाचो अध्यक्ष जालो. १७९१त ताची लॅफ्टनंट कर्नल ह्या पक्षाचेर नेमणूक जाली. ह्या वेळार ताचेर कांय आरोप घाल्ले पूण फ्रांसाचें ऑस्ट्रियाआड झूज सोंपतकूच ताका माफी मेळ्ळी. उपरांत तो कॉर्सिकांत वचून जॅकोबिन्स हाका मेळ्ळो. कॉर्सिका फ्रांसासावन वेगळें करपाचे पाओलीचे यत्न चालू आशिल्ले. नेपोलियनान ताच्या हुकुमशायी नेतृत्वाक १७९३ खर विरोध केलो. पाओलीनान ताका फ्रँच नागरीक आनी राश्ट्रद्रोही बापायचो पूत म्हणून कॉर्सिकांतल्यान धांवडावन घालो. हाका लागून बोनापार्त कुटुंबाक फ्रांसांत आलाशिरो घेवंचो पडलो. १७९३त ताका कॅप्टनाची सुवात मेळ्ळी. नीसा हांगा लश्कराचे कामगिरीचेर आसतना ताणें Souper de Beaucaire हें पुस्तक बरयलें. तुलाँ बंदरांत ताणें आपल्या नाळींच्या आदारान ब्रिटीशांक धांवडावपांत येस मेळयलें. हें ताचे जिणेंतलें पयलें जैत. हाकालागून ताका मेजर आनी उपरांत ब्रिगेडीयर जनरल ह्या पदांचेर बडटी मेळ्ळी. ५ ऑक्टोबर १७९५ दिसा तीस हजार सशस्त्र रॉयलिस्ट बंडवाले तुलरीझ राजवाड्याचेर हल्लो करपाक आयले. तेन्ना तांकां धांवडावन प्रजासत्ताकाचें रक्षण करपाची जापसालदारकी नेपोलियनाचेर आशिल्ली. ताणें बंड मोडून उडयलें. हाका लागून ताची पॅरिसांत लश्करी प्रशासक आनी फ्रांसाच्या अंतर्गत सैन्याचो कमांडर म्हणून नेमणूक जाली. कांय दिसांनी ताचेलागीं इटलीचे मोहिमेचेर फुडारपण आयलें. इटलीचे मोहिमेचेर वचचे पयलीं तो बारसाच्या सांगण्यावयल्यान जोझेफीनाकडेन लग्न जालो. कांय दिसांनीच घटस्फोट दिवन तो मारी ल्विझाकडेन लग्न जालो.

लग्नाउपरांत दोनूच दिसांनी नेपोलियन इटालीचे मोहिमेचेर गेलो. तूलाँचेर जैत मेळोवन नवोदीत फ्रँच प्रजासत्ताकाआड उठिल्लें बंड मोडून उडयलें. ह्या वेळार फ्रांसाभोंवतणीं इंग्लंड, ऑस्ट्रिया, प्रशिया, रशिया हे साम्राज्यवादी देस आशिल्ले. फ्रांसाचें सैन्य फकत ३०,००० इतलें आशिल्लें. सैनिकांक धड कपडे आनी जेवणूय मेळनाशिल्लें. झुजासामुग्री पोरणी आनी मर्यादीत आशिल्ली. पूण नेपोलियनाक आपल्या सैन्याचेर पुराय विश्वास आशिल्लो. ताणें १२ एप्रिल १७९६ दिसा ऑस्ट्रिया आनी सार्डिनिया हांच्या फौजांचेर हार घाली. मिलानाचेर जैत मेळोवन ताणें मँत्युआक घेराव घालो. उपरांत ताणें इटलीची पुनर्संघटना केली. ताणें लाँबर्डीत प्रजासत्ताकाची स्थापणूक केली. ऑस्ट्रियेच्या सैन्यान चार फावटीं मँत्युआचें रक्षण करपाचे यत्न केले; पूण ऑस्ट्रियाचेर रिवाली नगरांत १७९७त नॅपोलियनान हार घाली.

नेपोलियन आनी ऑस्ट्रिया हांचेमदीं कबलात जावन ऑस्ट्रियेन फ्रांसाची न्हायन न्हंयेची शीम मान्य केली. ह्या जैताक लागून नेपोलियनाची नामना आनीक वाडली. इटलीची मोहीम सोंपले उपरांत स म्हयन्यांनी नेपोलियन इजिप्ताचे सागरी मोहिमेखातीर तयार जालो. सुर्वेक तो जैतीवंत जायत रावलो. ताणें माल्टा, ॲलेक्झांड्रिया आनी नायलाचो त्रिभूज प्रदेश हातासलो. १७९९त ताणें सिरियाआड झूज उबारलें. पूण एकर हांगा ताच्या सैन्याक फाटीं सरचें पडलें. फ्रांसाआड ग्रेटब्रिटन, ऑस्ट्रिया, रशिया आनी तुर्कस्थान हे एकठांय येवन झगडपाक लागले. हाका लागून इटलींत फ्रँच सैन्याचेर हार पडली. ह्याच दिसांनी म्हळ्यार १८ जून १७९९ दिसा फ्रांसांत ल्हानशी क्रांती जावन उदार मतवादी लोकांक संचालक मंडळांतल्यान धांवडावन जॅकोबिन्स लोक सत्तेर आयलो. नेपोलियनाक हें जेन्ना कळ्ळें तेन्ना तो थोडें सैन्य घेवन ब्रिटनाच्या नौसैन्यांक चुकयत फ्रांसांत पावलो. फ्रांसांत पावतकूच नेपोलियनाक व्हड येवकार दिलो. ह्या वेळार बारास, गॉये आनी मॉल्यॅन हे संचालक भ्रश्टाचारी म्हणून कुप्रसिद्ध आशिल्ले.

आबे स्येयेअस हाणें नेपोलियनाच्या आदारान फ्रांसांत अंतर्गत क्रांती पडोवन हाडली. १० नोव्हेंबर १७९९ दिसा क्लाउद नगरांत जाल्ले बसकेंत नेपोलियन, स्येयेअस आनी द्यूलो हांचें प्रशासक मंडळ अस्तित्वांत आयलें. ताणीं नवें संविधान घडोवन हाडलें. नव्या संविधानावरवीं नेपोलियन पयलो कॉन्सल जालो. मुखेल कॉन्सलाचो तेंप सुर्वेक धा वर्सांचो आशिल्लो. ह्या तेंपार फ्रांसांत फकत नॅपोलियनाचोच शेक चलतालो.

१८००ते १८०५ ह्या पांच वर्सांच्या काळांत साबार विरोधांक तोंड दीत नेपोलियन फ्रांसाचो पुराय सत्ताधारी जालो. ह्या काळांत ताणें उत्तर इटलींत मॅरँगोच्या झुजांत जैत मेळयलें. ऑस्ट्रियेक हारावन ताणें आपल्या मनाप्रमाण ह्युने व्हीलची कबलात करून घेतली. उपरांत सिनेटान थाराव जावन आनी भौशीक मत घेवन नेपोलियनाक सम्राटपद दिवपाचें थरयलें. २ डिसेंबर १८०४ दिसा पॅरिसांतल्या नॉत्रदाम हे पुर्विल्ले इगर्जेत नेपोलियनाचो व्हडा थाटान राज्याभिशेक जालो. एक कॉर्सिकन शिपाय फ्रांसाचो सम्राट जालो, हें सबंद युरोपांतल्या खेंयच्याच राजघराण्यांक मानवलेंना. ते नेपोलियनाचो विरोध करीत रावले. पोपानूय ताची नोंद राजपत्रांत करपाक न्हयकार दिलो.

कॉन्सल जाले उपरांत नेपोलियनान फ्रांसाच्या राजकीय, समाजीक, अर्थीक, शिक्षणीक आनी हेर क्षेत्रांनी फावो ते बदल करून आनी विंगड विंगड कायदे करून फ्रांसाक संवसारीक राजकारणांत मानाचो जागो मेळोवन दिलो. ह्या तेंपार नेपोलियनाक इंग्लंड, रशिया आनी ऑस्ट्रिया हांचेकडेनूय झुजचें पडलें. ताणें रशियेक हारोवन ऑस्ट्रियाचेरूय मॅरेंगो आनी होअनलिडंनांत जैत मेळयलें.

ऑस्ट्रियेन फेब्रुवारी १८०१त ल्युनेव्हीलांत कबलात केली. हे कबलातीक लागून व्हायनाचो अस्तंतेकडचो चडसो मुलूख फ्रांसाक मेळिल्लो. मार्च १८०२त फ्रांस आनी इंग्लंड हांचेमदीं शांततायेची कबलात जाली. पूण माल्टाच्या प्रस्नावयल्यान तांचेमदीं परत झूज जालें. इंग्लंडान ऑस्ट्रीया, रशिया आनी स्विडन हांचो तेंको घेवन फ्रांसाआड तिसरे फावटी झूज उबारलें. पूण नेपोलियनान सुर्वेक ऑस्ट्रियेचेर उल्म नगरांत आनी ऑस्ट्रिया-रशियाचे ऑस्टरलित्झ नगरांत हार घाली.

ऑस्ट्रियेन प्रेसबूर्क कबलात केली. हे कबलातीक लागून ऑस्ट्रियेक जर्मन राज्यसमुहांत आनी इटलींत कांयच स्थान उरलेंना. मुखार १८०६त जाल्ले कबलातींत नेपोलियनान व्हायनाच्या संघराज्याची स्थापणूक केली. नेपोलियनान येना आनी आउअरशेट नगरांनी प्रशियाचेर हार घाली आनी रशियेचेर फ्रिटलांट नगरांत हार घाली. प्रशियेचो व्हड मुलूख नेपोलियनान आपल्या ताब्यांत घेवन ताचें वॅस्टफेलिया राज्य केलें. परत एकदां ऑस्ट्रियाचेर हार घालून ताणें इंलिरियाचो प्रांत मेळयलो. त्या वेळार ताची सत्ता बरीच पातळिल्ली. ताणें आपल्याक 'इटलीचो राजा' हें पद घेतलें आनी पुराय युरोपाचो नकाशो बदलून उडयल्लो. नेपोलियनान आपल्या सोयऱ्याधायऱ्यांक वेगवेगळ्या देशांचीं राज्यपदां आनी सरदारक्यो दिल्ल्यो.

१८०३ ते १८०५ मेरेन नेपोलियन फकत इंग्लंडाआड झुजपाचो उरिल्लो. ताका इंग्लंडाच्या नावीक तांकीची पुराय म्हायती आशिल्ली. नेपोलियनाकडेन इंग्लंडा इतलें नावीक बळ नाशिल्लें. ताणें इंग्लंडाचे नावीक शक्तीक तोंड दिवपाचो यत्न केलो. पूण ट्राफाल्गार झूजांत तो हारलो. इंग्लंडाक हारोवपाक ताणें उपरांत इंग्लंड आनी इंग्लंडाच्या साम्राज्याचो युरोपी देशांकडेन जावपी वेपार बंद करपाचो कट रचलो. ही बंदी फळादीक जावंची म्हणून ताणें पुर्तुगाल आपल्या ताब्यांत घेवन स्पेनाचेर आक्रमण केलें. पूण स्पेनांत स्वातंत्र्यवादी गनिमांनी ताका खर विरोध केलो. हाका लागून स्पेनाची मोहीम नेपोलियनाचे सत्तेक कर्करोगाप्रमाण जीवघेणी थारली.

१८१२त स लाख सैनीक घेवन ताणें मॉस्कोचेर चाल केली. पूण रशियेच्या दग्धभूंय आनी शिस्तबद्ध माघार ह्या धोरणांक लागून ताका हांगा खूब त्रास जाले. कडक शिंयाळो, पिडा, उणें जेवणखाण आनी गनिमांच्या हल्ल्यांक लागून ताचे सेनेक फाटी सरचें पडलें. स लाखांतले फकत तीस हजार सैनीक फ्रांसांत परत आयले. उपरांत ऑक्टोबर १८१३त रशिया, प्रशिया आनी ऑस्ट्रिया हांचे भितर संयुक्त फौजांनी लेपसिंग नगरांत नेपोलियनाचेर पुरायपणान हार घाली. हाका लागून नेपोलियनान उबारिल्ली जर्मन प्रदेशांतली सगळी फ्रॅंच सत्ता सोंपली. जानेवारी १८१८त दोस्त राश्ट्रांनी चारय दिशांनी फ्रांसाचेर हल्लो केलो. हें झूज फ्रांसाच्या लोकांआड ना तर नेपोलियनाक ना करपाखातीर आसा अशें ताणीं जाहीर केल्लें. दोन म्हयने फ्रांसाच्या प्रदेशांत झूज जावन निमाणें पॅरीस दोस्त राश्ट्रांच्या हातांत पडलें. ६ एप्रिल १८१४त नेपोलियनान राजत्याग केलो. फॉंतेनब्लोची कबलात जावन दोस्त राश्ट्रांनी ताका एल्बा जुंव्याचेर धाडलो.

नेपोलियनाक एल्बा जुंव्याचेर धाडले उपरांत विएन्ना कॉंग्रेस युरोपाची पुनर्रचणूक करपाक गुंथिल्ले ते कॉंग्रेसींत मतभेद जाले हें कळटकच ब्रिटिशांची नदर चुकोवन मार्च १८१५ तो फ्रांसांत पावलो. फ्रॅंच सैन्याची सहानुभुती मेळोवन ताणें सगळीं सुत्रां परत आपल्या हातांत घेतलीं. तो परत सत्तेर आयलो. पूण जून १८१५त दोस्त राश्ट्रांच्या सैन्याकडेन वॉटर्ल् नगरांत झूज जावन ताचेर पुरायपणान हार पडली. ताची शंबर दिसांची सत्ता सोंपली. ताका इंग्लंडान सेंट हॅलॅना जुंव्याचेर धाडलो. उपरांत पिरायेच्या बावनाव्या वर्सा ताका ह्याच जुंव्यार मरण आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

**नेमाळीं :** एकाच विशयांवयली वा वेगवेगळ्या विशयांवयली म्हायती एकाच नांवांखाल नेमान उजवाडाक येता अशा प्रकाशन प्रकाराक नेमाळें म्हण्टात. खबरो दिवपी वर्तमानपत्रां आनी वेगवेगळ्या विशयांवयलें लिखाण दिवपी हेर नेमाळीं हांचो उद्देश आनी प्रकाशन सातत्य पळयल्यार दोगांचेंय स्वरूप एक आसुनूय सर्वसादारणपणान वर्तमान पत्राचो आस्पाव नेमाळ्यांत करप जायना. खबरां पत्रांत येवपी देशांतर्गत वा संवसारीक घडणुकांच्या बातम्यांचें स्वरूप हें तात्पुरतें आनी प्रसंगीक आशिल्ल्यान खबरां पत्राचो आसपाव नेमाळ्यांत करप प्रस्तुत दिसना आसूं येता. तरी, लोकशिक्षण आनी समाज प्रबोधन हो जो नेमाळ्यांचो मुखेल गूण आसा. तो थोडेभोव प्रमाणांत पत्रांतूय दिसता. सध्याच्या खबरांपत्रांनी व्हड प्रमाणांत विविध विशयांचेर येवपी चिंतनशील अशे विचारवंतांचे लेख आनी खाशेलीं नेमाळीं सोडलीं जाल्यार सर्वसादारण नेमाळ्यांनी येवपी लेख हांचेमदीं तसो व्हडलोसो फरक उरूंक ना. उजवाडावपाच्या काळाप्रमाण हीं नेमाळीं सातोळें, पंद्रसाळें, म्हयनाळें (मासिक), द्वैमासिक, त्रैमासिक, षण्मासिक आनी वर्सुकी आसतात. हांचेभायर भुरग्यांचीं, बायलांचीं, विशिश्ट विशयांवयली मनरिजवणेचीं, वैचारीक, संशोधनात्मक अशी आशयावयल्यान तांची वर्गवारी जाता.

सतराव्या शतमानाच्या उत्तरार्धांत ह्या साहित्य प्रकाराची सुरवात जाली. संवसारांतलें सगळ्यांत पयलें नेमाळें Erbauliche monaths Unterre - dungen हें १६६३ वर्सा जर्मनींत हांबुर्ग शारांत उजवाडाक आयलें. फुडें फ्रांस, इंग्लंड आनी इटली ह्याय देशांनी नेमाळीं उजवाडा येवंक लागलीं. पूण हांची प्रेरणा ज्ञानप्रसार करप हीच आशिल्ली. फुडल्या धा वर्सांमदीं फ्रांसांत उजवाडा येवपी नेमाळ्यांतल्यान रंजक स्वरुपाचो मजकूर येवंक लागलो. १६७२त फ्रांसांत Mercure gallant हें नेमाळें उजवाडा आयलें. १६९० त इंग्लंडांत जॉन डंटन हाणें ॲथेनिअन मर्क्युरी हें नेमाळें सुरू केलें. १६९३त ताणें बायलांखातीर 'लेडीस मर्क्युरी' नांवाचें स्वतंत्र नेमाळें सुरू केलें.

अठराव्या शतमानांत शिलर आनी गटे ह्या संवसारीक नामनेच्या साहित्यिकांनी जर्मन साहित्यांत साहित्यीक नेमाळीं उजवाडा हाडलीं. जांचेवरवीं निबंद ह्या साहित्यप्रकाराची सुरवात आनी विकास जांवक पावलो. रिव्ह्यू, टॅटलर स्पॅक्टेटर आदी नेमाळ्यांवरवीं डॅनियल डीफो, रिचर्ड स्टील आनी जोसेफ ॲडिसन ह्या तीन निबंदकारांनी इंग्लंडांत समाजीक आनी राजकीय उदरगत घडोवन हाडली.

१७४१च्या सुमाराक अमेरिकेंत नेमाळीं उजवाडा येवंक लागलीं. फुडें एकुणिसाव्या शतमानाच्या मध्याक शिक्षणिक विकास जावंक लागलो. आनी ताका लागून वाचकवर्गूय तयार जावंक लागलो. उपरांतच्या काळांत विज्ञानीक आनी उद्देगीक विकासाक लागून मुद्रणकलेंतूय जायत्या तरांनी तंत्रीक विकास जालो, जाकालागून नेमाळ्याचो दर सर्वसामान्य मनशाक परवडपा इतलो उरलो. अशे तरेन समाजांतल्या सगळ्या घरांमदीं नेमाळ्याचो प्रसार जालो.

फुडें वेगवेगळ्या विशयांच्या अभ्यासकांनी आनी संशोधकांनी आपआपल्या विशयाच्या संवर्धनाखातीर परिशदो आनी संघटना स्थापन करून त्याच विशयांचीं नेमाळीं उजवडावपाक सुरवात केली. ह्याच काळांत इंग्लंडासावन नेचर, लॅन्सेट, ब्रिटीश मॅडिकल जर्नल, जर्नल ऑफ द रॉयल स्टॅटिस्टिकल सोसायटी, इकॉनॉमिक जर्नल आनी अमेरिकेंतसावन पॉप्युलर सायन्स मंथली, सायंटिफीक अमेरिकन, अमेरिकन इकॉनॉमिक रिव्ह्यू, पॉलिटिकल सायन्स क्वॅर्टर्ली, नॅशनल जिओग्राफिक जर्नल देदलस हीं नेमाळीं उजवाडा येवंक लागलीं.

फुडल्या काळांत संवसारभर आपले खास खबरांकार आनी सावळे चित्रकार नेमून तांचे कडल्यान मेळिल्ले म्हायतीचेर संपादकीय संस्कार घडोवन त्यो बातम्यो उजवाडा हाडप हो प्रकार फुडें आयलो. ह्या प्रकारांतली टायम मॅगझीन, न्युझवीक, यू. एस. अँड वर्ल्ड रिपोर्ट (अमेरिका); L 'Express (फ्रांस); Derspiegel (जर्मनी); Panorama (इटली); Tiempo (मेक्सिको) हीं कांय नामनेचीं नेमाळीं.

१९३६त फोटोंनी भरिल्लें 'लायफ' हें सातोळें आयलें आनी सावळे चित्रांचीं नेमाळीं येवंक सुरवात जाली. ह्या प्रकारांत सध्या paris - Match (फ्रांस), Stern (जर्मनी) Oggi, (इटली) ह्या नेमाळ्यांचें खाशेलपण आसा. एकुणिसाव्या शतमानाच्या निमाण्या दशकांत वेगवेगळ्या नेमाळ्यांवरवीं उजवाडा आयिल्ल्या वेगवेगळ्या विशयांवयले वेंचीक लेख संक्षिप्त करून एकठांय छापपाचो वावर अमेरिकेंतल्या लिटररी डायजेस्ट आनी रिव्ह्यू ऑफ रिव्ह्यूज ह्या नेमाळ्यांतल्यान जावपाक लागलो. ह्या प्रकारांत १९२२त उजवाडा आयिल्ल्या 'रिडर्स डायजेस्ट' ह्या नेमाळ्यान थोड्याच काळांत जायत्या देशांनी नामना मेळयली. जायत्या भासांनी ताच्यो स्वतंत्र आवृत्त्यो येवंक लागल्यो. भारतांतूय १९५४ सावन ताची आवृत्ती येवंक लागली.

भारतांतल्या नेमाळ्यांचें मुद्रण आनी प्रकाशन पुर्तुगेजांनी सोळाव्या शतमानांत जरी केल्लें तरी थळावे भाशेंतल्यान पुस्तकांचें आनी नेमाळ्यांचें मुद्रण इंग्लीश राजवटीचे सुरवाती पसुनूच जावंक लागलें. भारतांतल्या क्रिस्तांव मिशनऱ्यांनी धर्मप्रसारा खातीर बायबलाचें वेगवेगळ्या प्रादेशिक भाशेंतल्यान अणकार केले तेभायर नेमाळींय सुरवात केली.

१८१८त बंगालांतल्या डॉ. विल्यम कॅरी हाणें 'समाजदर्पण नांवाचें पयलें बंगाली सातोळें आनी 'दिग्दर्शक' नांवाचें पयलें बंगाली म्हयनाळें सुरू केलें. उपरांत १४ वर्सांनी १९३२त बाळशास्त्री जांभेकर हाच्या संपादनाखाल 'दर्पण' नांवाचें पयलें मराठी नेमाळें सुरू जालें. फुडें एकुणिसाव्या शतमानांत उण्याअदीक कालांतरान हेर भारतीय भाशांनीय नेमाळीं सुरू जालीं. भारतांतलीं इंग्लीश नेमाळीं अठराव्या शतमानाच्या निमाण्या काळांत कलकत्ता शारांत, भारतांत वेपार करपाच्या उद्देशान आयिल्ल्या इंग्लिशांची वसणूक निर्माण जाली. तांकां इंग्लंड आनी भारतांतली राजकीय तशेंच समाजीक घडामोडींची म्हायती दिवपाक १७८०च्या सुमाराक जेम्स ऑगस्टस हिकी हाणें 'बॅंगॉल गॅझेट', हें सातोळें सुरू केलें. फुडें तें १७८२त बंद पडलें. ह्याच काळांत कलकत्त्याक 'इंडिया गॅझेट', 'कलकत्ता गॅझेट', 'बंगाल जर्नल', 'कलकत्ता क्रॉनिकल', चेन्नईक 'मद्रास कॅरियर', 'हुर्कारु', 'मद्रास गॅझेट' आनी मुंबय 'बाँबे' हॅराल्ड, 'बाँबे कॅरियर', 'बाँबे गॅझेट' हीं सातोळीं येवंक लागलीं. ह्याच काळांत भारतीय जनतेक व्यासंगपूर्ण आनी विचारप्रवर्तक म्हायती पावोवपी नेमाळ्याचो वारसो दिवपी इंग्लीश नेमाळ्याचो उदय जालो. १५ जानेवारी १७८४ ह्या दिसा कलकत्त्याक एशियाटीक सोसायटी स्थापन जाली. हे संस्थेन 'एशियाटीक रिसर्चीस' नांवाचें नेमाळें उजवाडा हाडलें. १९३२त हे 'जर्नल ऑफ दी एशियाटिक सोसायटी ऑफ बॅंगॉल' संस्थेचे हें नेमाळें सुरू जालें.

एकुणिसाव्या शतमानाच्या उत्तरार्धांत कांय संशोधनात्मक नेमाळीं उजवाडा आयलीं तीं अशीं - इंडियन अॅटिक्वॉरी (१८७२), एपिग्रफिया इंडिया (१८९२); जर्नल ऑफ दी अँथ्रॉपॉलॉजिकल सोसायटी ऑफ बाँबे (१८८६), मेम्वार्स, रॅकॉर्ड्स, इंडियन फॉरेस्टर.

उपरांतच्या काळांत भारतांत भरपूर प्रमाणांत इंग्लीश नेमाळीं उजवाडा येवंक लागलीं. ह्या नेमाळ्यां वरवीं संवसारीक घडणुकांची म्हायती, राजकारण, अर्थशास्त्र, संशोधन, खेळ, समाजीक घडणुको, धर्म आनी संस्कृती, साहित्य आदी जायत्या विशयांची वळख जावंक लागली. हातूंतलीं कांय नामनेचीं नेमाळीं अशीं - कलकत्ता रिव्ह्यू (१८४४), कॅपिटल (१८८८), महाबोबी (१८९२), मॉर्डन रिव्ह्यू (१९०७), कॉमर्स (१९१०) कल्चर (१९२७), इलस्ट्रेटेड वीकली (१९२९), इंडियन इन्स्टिटच्यूट ऑफ बँकर्स जर्नल (१९३०), आर्यन पथ (१९३०), इंडियन लिंग्विस्टिक (१९३१), इंडिपेंडेंट इंडिया (१९३७), ब्लित्झ (१९४१), जैन अॅटिक्वॉरी (१९४१), जर्नल ऑफ सायंटिफीक अँड इंडस्ट्रियल रिसर्च (१९४१), इस्टर्न इकॉनॉमिस्ट (१९४३), इंडिया क्वॉर्टली (१९४५), जनता (१९४६), ऑर्गनायझर (१९४७), अर्थनीति (१९४७), इव्हज वीकली (१९४७), शंकर्स वीकली (१९४८), करंट (१९४९), अॅग्रिकलचरल सिच्युएशन इन इंडिया (१९४८), मार्ग (१९४९), इंटरनॅशनल स्टडीस (१९५०), फॉरेन अॅफर्स रिपोर्टस (१९५२), फिल्मफॅर (१९५२), इंडियन इकॉनॉमिक रिव्ह्यू, (१९५२), रिसर्च अँड इंडस्ट्री (१९५५), इंडियन इकॉनॉमिकल जर्नल (१९५३), फोरम (१९५६), न्यू एज (१९५३), योजना (१९५७), योगक्षेम (१९५७), इंडियन लिटरेचर (१९५७), जर्नल ऑफ दी इंडियन लॉ इन्स्टिटच्यूट (१९५८), कलाक्षेत्र (१९५९), अर्थविज्ञान (१९५९), फॅमिना (१९५९), सेमिनार (१९५९), इंडियन जर्नल ऑफ इंटरनॅशनल लॉ (१९६०), आफ्रिका क्वार्टर्ली (१९६१) इंडियन जर्नल ऑफ लेबर इकॉनोमिक्स (१९६२) ललीत कला कॉन्टॅम्पोरस (१९६२), इंडियन जर्नल ऑफ कॅमिस्ट्री (१९६३), इंडियन जर्नल ऑफ प्युअर अँड ॲप्लायड फिझिक्स (१९६३), इंडियन जर्नल ऑफ एक्सपरिमॅंटल बायॉलॉजी (१९६३), इंडियन जर्नल ऑफ बायोकॅमिस्ट्री अँड बायोफिझिक्स (१९६४), फिल्म मिरर (१९६४), सायन्स रिपोर्टर (१९६४), स्टडिस इन इस्लाम (१९६४), हिम्मत (१९६४), पिपल्स डॅमॉक्रसी (१९६५), चायना रिपोर्टर (१९६४), साऊथ एशियन स्टडीस (१९६५), इकॉनॉमिक अँड पॉलिटिकल वीकली (१९६५), फॉरेन ट्रेड रिव्ह्यू (१९६६), लोक उद्योग(१९६७), इंडियन रायटिंग टुडे (१९६७), जैन जर्नल (१९६६), स्टार परेड (१९६६), स्पोर्टस वीक (१९६८), स्पोर्टस डायजॅस्ट (१९६५), इंटरनॅशनल लॉ

(१९६९), स्पोर्टस जर्नल (१९७०), इस्लाम इन द मॉडर्न एज (१९७०), सोशलिस्ट इंडिया (१९७०), क्वॅस्ट (१९७१), इंडियन जर्नल ऑफ रेडिओ अँड स्पेस फिझिक्स (१९७२), इंडियन जर्नल ऑफ मरीन सायन्सीस (१९७२), यूथ टायम्स (१९७२), इंडिया टुडे (१९७५) न्यू क्वॅस्ट (१९७७).

**संस्कृत नेमाळीं** : १८५०त प्रा. ऋषिकेश भट्टाचार्य हाणें लाहोराक 'विद्योदय' हें नेमाळें सुरू करून संस्कृत नेमाळ्यांची बुन्याद घाली. उपरांतच्या काळांत भारतांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांनी संस्कृताचो प्रचार करपाच्या उद्देशान वेगवेगळीं संस्कृत नेमाळीं उजवाडा येवंक लागलीं. हीं नेमाळीं अशीं - मंजुभाषिणी, सहृदया, संस्कृतचन्द्रिका, शिवराजविजयम्, सुनृतवादिनी, सुप्रभातम्, अच्युतम्, अमरभारती सुर्योदय, संस्कृतभारती, पण्डितपत्रिका, मनोरमा, मित्रम्, अमृतवाणी, कौमुदी, आर्यसिद्धन्त, श्रृतत्रकाशिका, दिव्यज्योती, संस्कृत भवितम्, भारती, शारदा, संपिद, बालसंस्कृतम्. ह्याच काळांत कांय दुभाशीक नेमाळीं उजवाडा आयल्लीं. हीं नेमाळीं अशीं : द्वैभाषिकम् (संस्कृत- बंगाली), भारत दिवाकर आनी बहुश्रुता (संस्कृत - गुजराती), मिथिलामोद (संस्कृत - मैथिली),मंजुषा आनी लोकानन्द दीपिका (संस्कृत - इंग्लीश), संस्कृतभारती (संस्कृत - हिन्दी).

**बंगाली नेमाळीं :** अकराव्या शतमानाच्या निमाणें बंगालांत छापखाने आयले आनी उपरांत एप्रिल १८१८त श्रीरामपूरच्या पॅप्टिस्ट मिशनान 'दिग्दर्शन' हें पयलें बंगाली नेमाळें काडलें. २३ मे १८१८त ह्याच मिशनान समाचार दर्पण हें सातोळें काडिल्लें जाका बंगालांतलें पयलें दिसाळें म्हणप जाता. ह्या काळांतलीं कांय नामनेचीं नेमाळीं अशीं -

संवाद प्रभाकर (१८३१), बांगला गॅझेटी, ब्राह्मण प्रबोध ब्राह्मण ओ मिशिनरी संवाद (राजा राममोहन रॉय हाचें प्रकाशन) संवाद कौमुदी, समाचार, चंद्रिका, तत्त्वबोधिनी पत्रिका (१८४३), विविधार्धसंग्रह (१८५१), सोमप्रकाश (१८५८) मासिकपत्रिका, बामाबोधिनी पत्रिका (१८६३), धर्मतत्त्व, बंगदर्शन (१८७२), साधना, भारती, बालक, हितवादी (१८९१-१९०६), भारतवर्ष प्रवासी, साहित्य, बसुमती.

उपरांत युगप्रवर्तक नेमाळ्याचो काळ आयलो. हातूंतलें सबुजपत्र हें पयलें नेमाळें. ह्या काळांतलीं कांय उल्लेख करपासारकीं नेमाळीं : कल्लोल आनी कली ओ कलम, शनिबारेर, चिठी, चतुरंग, परिचय, कविता, विश्वभारती, पत्रिका, आनन्द, बाजार पत्रिका, देश आनी अमृत, सद्धेश (बालनेमाळें), रीशिलादित्य, कृतिवास, प्रबंध पत्रिका, कथासाहित्य, सारस्वत, आनन्दमेळा (बाल नेमाळें) शियुसाथी (बाल नेमाळें) उत्तरा.

१९६० उपरांत बंगालांत लघु नेमाळीं हो प्रकार सुरू जालो. हेर वेगवेगळ्या विशयावयलीं उल्लेख करपा सारकीं नामनेचीं बंगाली नेमाळीं अशीं: वसुन्धरा, नवान्नभारती, सारसमाचार, हैनिमान, होमिओपथी होमिओपाथीक चिकित्सा, इतिहास, अभिनय, बहुरुपी, उदबोधन, विश्ववाणी, प्रणव, फूटबॉल, गडेर, माठ, उलटोरथ, सिनेमाजगत, आनंदलोक, जलसाघर.

**हिंदी नेमाळीं :** हिंदी नेमाळ्यांचो जल्म आनी सुर्वेचो विकास कलकत्त्याक जालो. हिंदीचें पयलें नेमाळें उदन्त मार्तव्य १९२६त उजवाडा आयलें. उपरांतच्या काळांत मात हिंदी नेमाळ्यांनी भरपूर प्रमाणांत भर पडली. भारतमित्र (१८७८), मतवाला (१९२३), देवनागर (१९०७), विश्वभारती (१९४२), विशाल भारत (१९२८), ज्ञानोदय (१९४९) हीं कांय उल्लेख करपासारकीं नेमाळीं.

उत्तर प्रदेशांत १८४५त 'बनारस अखबार' हें पयलें सातोळें उजवाडा आयलें. हाचे उपरांत उजवाडा आयिल्लीं नेमाळीं हीं - सुधाकर (१८५०), कविवचन सुधा (१८७४), हरिश्चंद्र मैगजीन (१८७३), बालबोधिनी (१८७४), हिन्दी प्रदीप, सरस्वती (१९००), सम्मेलन पत्रिका (१९१३), नागरी - प्रचारिणी - पत्रिका (१८९६), माधुरी (१९२१), चाय (१९२२), सुधा (१९२७), हंस (१९३०), रूपाभ (१९३४), साहित्य संदेश (१९३८), कल्याण, आनंद कादंबिनी, कर्मभूमी (१९३८), नया जमाना.

आदल्या मध्य वाठारांतल्यान उजवाडा आयिल्लें मालवा अखबार (१८४९) हें पयलें हिंदी नेमाळें. उपरांत नवजीवन (१९१५), कल्पवृक्ष (१९२२), कर्मवीर (१९१९), वीणा (१९२६), खेलयुग (१९७२), वसुधा, पूर्वाग्रह (१९७५), साक्षात्कार (१९७६) हीं कांय उल्लेख करपासारकीं हिंदी नेमाळीं.

अजमेरा सावन उजवाडा येवपी 'लहर' (१९४७) उदयपूर सावन उजवाडा येवपी 'मधुमति' आनी पिलानीसावन येवपी 'तटस्थ' तशेंच बेआवरचे 'क्यों' हींय कांय उल्लेख करपासारकीं हिंदी नेमाळीं.

बिहारांतल्या पाटणा वाठारांतल्यान पयलें नेमाळें बिहारबंधु हें १८७४ वर्सा सुरू जालें. उपरांतच्या काळांत उद्योग, शिक्षा, योगी, ज्योत्स्ना, पाटला, अवंतिका, हिमालय, नई धारा, समीक्षा (१९६६) हीं म्हत्वाचीं नेमाळीं उजवाडा आयलीं.

१८५७त दिल्लीच्यान 'पयामे-आजादी' हें उर्दू नेमाळें उजवाडा येतालें जें फुडें हिंदी जालें. ताचे उपरांत सदादर्श (१८७६), कविवचन सुधा (१८७६), महारथी (१९२५), साप्ताहिक हिंदुस्थान (१९५०), दिनमान (१९६५), संचेतना, नया प्रतीक (१९७३), कादंबिनी (१९६०), आलोचना (१९५०), प्रकर, सुषमा, प्रिया, बालभारती, पराग, नंदन, मंगल, प्रभात, जीवन साहित्य, विज्ञान की प्रगति, आविष्कार.

हिंदी नेमाळ्यांच्या इतिहासांत महाराष्ट्राचोय मोलाचो वांटो आसा. १८९३ त हांगा 'भारतभूषण' हें पयलें नेमाळें उजवाडा आयलें. उपरांतच्या काळांत उजवाडा आयल्लीं 'श्री व्यंकटेश्वर समाचार' (१८९६), केसरी (१९०५), हिंदी - ग्रंथमाला (१९०५), राष्ट्रवाणी (१९४७), राष्ट्रभारती, धर्मयुग, नवनीत (१९५२), सारिका (१९६०), ब्लिट्झ (१९६२), माधुरी (१९६४), 'महाराष्ट्र मानस' (१९७५) हीं कांय उल्लेख करपासारकीं नेमाळीं.

तमीळनाडूंत 'स्वयंसेवक' (१९२१) ह्या मासिकांत हिंदी नेमाळीं उजवाडा येवंक सुरवात जाली. उपरांत हिंदी प्रचारक (१९२३), दक्षिण भारत, दाक्खिनी, हिंद, चंदामामा, युगप्रबोध (१९५५), निर्मला (१९५७), अंकन (१९६७) हीं कांय नामनेचीं नेमाळीं उजवाडा येवंक लागलीं.

भारतांतल्या हेर वाठारांतल्यान येवपी हिंदी नेमाळीं अशीं - केरळचें 'युगप्रभात', (१९५६), कर्नाटकांतलें 'धीर' (१९७०), काश्मीरचें 'महावीर' (१९३६), 'चंद्रोदय' (१९३९), 'ज्योति' (१९४७), 'योजना' (१९५६), जम्मुचें 'गीराजा' (१९६४), पाँडिचेरीचें 'अदिति' (१९४२), 'पुरोधा' (१९६२), आसामचें 'अकेला' (१९४२), दिब्रुगडचें 'नव जागृति' गुजरातचें 'हिंदी नव जीवन' (१९२१), हैदराबादचें 'कल्पना' (१९४८), अजंता, आर्यभानु, संगम. भारताभायल्या देशांनी हिंदी भाशीक लोकांचो आंकडो खूब आसा. इंग्लंड, आफ्रिका, सुरिनाम, त्रिनिदाद, फिजी, मॉरिशस, नेपाळ, ब्रह्मदेश, श्रीलंका, पाकिस्तान, बांगलादेश, आदी देशांनीय

हिंदी नेमाळीं उजवाडा येतात.

**उर्दू नेमाळीं** : भारतांत मुद्रणकलेची सुरवात १८३२ वर्सासावन सुरू जाली आनी तेन्नाच्यान उर्दू नेमाळीं उजवाडा येवंक लागलीं. हातूंत तहझीब-उल-अखलाक (१९७०) हें पयलें म्हत्वाचें नेमाळें. उपरांत वेगवेगळ्या विशयाचीं म्हत्वपूर्ण अशीं उर्दू नेमाळीं उजवाडा आयलीं. हीं नेमाळीं अशीं - दिलगुदाझ (१८८७), जमाना (१९०४), मखझन् (१९०२) ओरिएंटल कॉलेज मॅगझिन, अदबी दुनिया, हुमायून, इस्मत, हरीम, खातूने, मुशरिक, वानो, फूल (१९०९), उर्दू (१९२१), उर्दू अदब, निगार (१९२३), मुनादी (१९२६), पयामे तालीम (१९२६), अल हिलल्ल (१९२७), शाइर (१९३०), सबरस (१९३८), अन्न हसनात (१९४७), तजल्ली (१९४०), फारान (१९४९), तामीर ए ह्यात सौघात (१९५९), शबखून (१९६६), किताब, शेरो हिकमत (१९७०), असरी अदब, गुफ्तगू, नवा-ई-अदब, तहरीर, हिंदुस्थानी जबान, इझहार, मेयार, मुआसिर,शाखसार, आइना, कौमिराज, रिसाला-ए-आंध्र प्रदेश, नया दौर, आजकल, मजल्ला-ए-उलूमे इस्लामिया, फिक्रो नजर, अलिगढ मॅगझिन, जामिआ, हुमा, बीसवी सदी, नक्श शहकार, सियासत, नशेमन, उर्दू ब्लिट्झ, सायन्स (१९२८), मआशियात (१९४६), नफसियात, जिनसियात, बुर्हान, मआरिफ, इस्लाम और असरे जदीद. भारताभायर नुकूश, फुनून, ओराक आनी सहीफा हीं लाहोरच्यान आनी उर्दूनामा, अफकार आनी नया दौर हीं कराचींतल्यान येवपी पाकिस्तानांतलीं मुखेल नेमाळीं.

**गुजराती नेमाळीं** : सुर्वेच्या काळांत गुजराती नेमाळ्यांची बुन्याद घालपांत मिशनरी आनी पारशी लोकांचो म्हत्वाचो वांटो आसा. 'विद्यासागर' हें गुजरातींतलें आद्य नेमाळें. उपरांतच्या काळांत उजवाडा आयिल्लीं डांडिओ, बुद्धिवर्धक (१८५६), बुद्धिप्रकाश (१८५४) हीं म्हत्वाचीं नेमाळीं मानतात. फुडें १८८५ सावन व्हड प्रमाणांत वेगवेगळ्या विशयावयलीं गुजराती नेमाळीं उजवाडा आयलीं. हीं नेमाळीं अशीं - वसंत (१८८५), ज्ञानसुधा (१८८७), सुदर्शन (१८८५), प्रजाबन्धु (१८८७), खेडा वर्तमान (१८६१), कैसर-इ-हिन्द (१८८१), गपसप, (१८८६), वैद्य कल्पतरू (१८९६), गुजरात समाचार (१८९८), साहित्य (१९२०), ईस्ट इंडिया कंपनीनु चोपानियुं (१८६६) इतिहासमाला (१८९६), नुरे एलम (१८७१), पारसी मित्र (१८८५), विज्ञान विलास (१८७६), स्त्रीबोध (१८५७), ज्ञान प्रसारक (१८४९), नवजीवन अने सत्य (१९१५), नवजीवन (१९१९), हरिजन बंधू, बालजीवन (१९२०), बालमित्र (१९२०), बालवाडी (१९२७), कुमार, बहुरूपी (१९३०), स्त्रीजीवन (१९३९), जन्मभूमि प्रवासी (१९३९), कोडियुं (१९४५), आनंद (१९४७), कौमुदी (१९४७), संस्कृती (१९४७), कृषी गोविंद (१९४८), जनकल्याण (१९५०), सहकार (१९५४), चित्रलोक, चित्रज्योती (१९५९), अमृता (१९६०), समर्पण (१९६०), नवनीत (१९६२), स्वाध्याय (१९६३), ग्रामसहयोगी (१९६४), शिशुमंगल (१९६५), फूलवाडी (१९६७), रेखा, कृती, क्षीतिज, रुचि (१९६७), उहापोह (१९६९).

**आसामी नेमाळीं** : क्रिस्तांव धर्मप्रसाराच्या हेतून १८४६त आसामी भाशेंतलें 'अरुणोदय' हें पयलें नेमाळें उजवाडाक हाडलें. ताचे उपरांत भौ (म्होंव) (१८८६), जोनाकी (१८८९), बिजुली (१८९०), बाँही (१९०९), आलोचनी (१९१०), चेतना (१९१९), असम साहित्यसभा पत्रिका (१९२६), आवाहन (१९२९), जयंती (१९३६), रामधेनु (१९५१), मणीदीप, पाछोवा, आमार प्रतिनिधी, नवयुग, आकन, मैना, अरूण, पाखीला, पारिजात, दीपक, पशुपालन, असम कृषक, विज्ञान जेऊटी हीं उल्लेख करपासारकीं आसामी नेमाळीं उजवाडा आयलीं.

**उडिया नेमाळीं** : ओरिसांत १८३७त कटक मिशन प्रॅसाची स्थापना जाली आनी त्या प्रॅसान १८४९ त 'ज्ञानारूण' हें उडिया भाशेंतलें पयलें नेमाळें काडलें. उडियांतलीं हेर नामनेचीं नेमाळीं अशीं : अरूणलोक, कुजिबर पत्रिका, परमार्थी, उत्कल दर्पण (१८७३) उत्कल मधूप (१९७८), उत्कलदीपिका (१८६६), बालेश्वर संवादवाहिका (१८६८), उत्कल हितैषिणी(१८६९), उत्कल पुत्र (१८७३) उत्कल साहित्य(१८९७), मुकुर (१९०५), सहकार (१९१९), नवभारत (१९३४), डगर (१९३६), झंकार (१९४८), आसन्तकालि (१९५०), विदेशी (१८७३), उत्कल प्रभा (१८९१), इंद्रधनु, बिजुली, नवजीवन (१९५६), पौरूष (१९६७) नबरबी (१९७०)

**कन्नड नेमाळीं** : विसाव्या शतमानाचे सुर्वेक कर्नाटकांत कन्नड नेमाळ्यांचो उदय जालो आनी उपरांत एका फाटल्यान एक वेगवेगळ्या विशया वयलीं कन्नड नेमाळीं उजवाडा येवंक लागलीं. हीं नेमाळीं अशीं : गोरक्षण (१९०२), कॅनेरा न्यूज (१९१६), सत्यवादि (१९१७), सद्‌बोध चंन्द्रिके, कर्मवीर, कोडगु (१९२१), नवयुग, उडिपी (१९२१), मैसुरू सहकार पत्रिके (१९२५), संयुक्त कर्नाटक (१९२४), जय कर्नाटक, जयंति (१९३८),नुडिगन्नडि (१९३८), प्रजामत (१९३१), प्रबुद्ध कर्नाटक, ताइनाडू (१९२७), ताईनुडि, बैरागि प्रेक्षक, सन्मति, वीरशैव, माध्व, ओक्कलिक बंट, कुरूब, सुधा (१९६५), रसरंग (१९६३), तारे (१९६८), कस्तुरी, मल्लिगे.

**तेलुगू नेमाळीं** : एकोणिसव्या शतमानाच्या पुर्वार्धांत तेलुगू नेमाळीं उजवाडा येवंक सुरवात जाली. तेलुगू भाशेंतलें पयलें नेमाळें. 'वृत्तांनी (१८३८)'त सुरू जालें, तेलुगू भाशेंतलीं हेर नेमाळीं अशीं : वर्तमान तरंगिणी (१८४०), सृजनरंजनी (१८६२), आध्रभाषासंजीवनी (१८७१), विवेक वर्धिनी (१८७४), सकलविद्यावर्धिनी (१८७३), आमुद्रित ग्रंथ चिंतामणी (१८८५), राजयोगी (१८९१), यथार्थवादी (१८८१), नीतिदर्पण (१८८५), सरस्वती, कलावती, वाग्वल्ली, हितवादी, श्रियक्षणी, तत्त्वबोधिनी, सुधीररंजनी, हास्यसंजीवनी, आंध्रवार पत्रिका (१९०८), तेनुगू पत्रिका (१९२०), निलगिरी पत्रिका (१९२०), गोलकोंडा पत्रिका (१९६६), कृष्णा पत्रिका (१९०२), आंध्र ज्योति सचित्र वारपत्रिका (१९६६), विजयवाणी (१९४८), प्रजायुग पक्षपत्रिका (१९६१), स्वतंत्र, पोलिकेका प्रजावाणी, दिव्यवाणी, भाग्यनगर पत्रिका, आंध्र केसरी, भारती (१९२४), श्रवन्ति (१९५१), युवा (१९४१), आंध्र साहित्य परिषद पत्रिका (१९११), गृहलक्ष्मी, तेलुगू भाषापत्रिका, बालमित्र (१९४५), बुज्झाय्यी (१९७४), चंदामामा (१९४५), परिशोधन, प्रबुद्धांध्र, प्रतिभा, सृजन, विज्ञानम्, विज्ञानवादी वैज्ञानिक पत्रिका, तत्त्ववाद.

**मल्याळम् नेमाळीं** : मल्याळम् भाशेंतलें पयलें नेमाळें काडपाचो मान डॉ. हेरमान गुंडर्ट हाचेकडेन वता. राज्यसमाचारम् (१८४७) आनी पश्चिमोदयम् हीं ताणें उजवाडा हाडिल्लीं नेमाळीं. ताचे उपरांत वेगवेगळ्या विशयांचेर वेगवेगळीं नेमाळीं उजवाडा येवंक लागलीं. हीं नेमाळीं अशीं आसात - विद्याविलासिनी (१८८१), केरळमित्रम् (१८८१), सगुण बोधिनी (१८८७), केरळ संचारी (१८८८), मल्याळ मनोरमा (१८९०), सुजनानंदिनी (१८९१), भाषापोषिणी (१८९२) रसिकरंजिनी (१९०३),

महाराणी, शारदा (१९०५), स्वदेशाभिमानी (१९०५), कवनकौमुदी (१९०६), मंगलोदयम् (१९०७), मितवादी (१९०७), कविताविलासिनी (१९१२), महिलारत्नम् (१९१६), भाषासाहिति, विज्ञानकैरळी, साहित्यलोकम्, साहित्यचक्रवाकम, मनोराज्यम, ग्रंथालोकम, प्रबोधकम, केसरी, सहोदरन, विवेकोदयम, आत्मपोषिणी, साहित्यपरिषत्, समीक्षा (१९६३), केरळकविता (१९६७), तिलकम् (१९६१), मानदंडम् (१९६७), कौमुदी, शलाका.

आर्विल्लया काळांतलीं वेगवेगळ्या विशयाचेर आदारीत उजवाडा येवपी म्हत्त्वाचीं नेमाळीं आसात. मल्याळ मनोरमा, मातृभूमी (१९३२), कलाकौमुदी, मल्याळनाडू, कुंकुमम्, मनश्शास्त्रम, सैक्को, कलाशाला, योजना, चिन्त, गुरुकुलम् योगनादम्, देशाभिमानी, जनयुगम्, चंद्रिका, केली. हाचे भायर मल्याळम - हिंदी मल्याळम - इंग्लीश हींय द्विभाशीक नेमाळीं उजवाडा येतात.

**तमीळ नेमाळीं** : तमीळींतलें सगळ्यांत पयलें नेमाळें तमीळ मॅगझीन हें १८३१ त ख्रिश्चन रिलिजीअस ट्रॅक्ट सोसायटीन सुरू केलें. १८५६ तल्यान मद्रासच्यान हें नेमाळें उजवाडा येवंक लागलें. फुडें एकुणिसाव्या शतमानाच्या निमाण्या काळांत धर्मप्रसाराखातीर जायतीं नेमाळीं उजवाडा आयलीं. हीं नेमाळीं अशीं - स्नेहबोधन (१८७५), वेद पिळक्कम् (१८९०), वेधबोध मत मोषी, शैव उदय बोधिनी (१८८२), इंतु मत चीर तिरूत्ती (१८८३), इस्लाम् नेशन (१९०९), तत्तुव इस्लाम् (१९२१), दारुल् इस्लाम् (१९२१). हाचेभायर राजकारण, साहित्य समिक्षा, अर्थीक, उद्देगीक, समाजीक आदी जायत्या विशयांवयलीं नेमाळीं भरपूर प्रमाणांत उजवाडाक आयलीं. हीं नेमाळीं अशीं - महाराणी (१८८७), मातर् मैत्री (१८८९), चक्कर वर्तिनी (१९०५), आरोग्य बोधिनी (१९०८), सांडोर् कुलविवेक बोधिनी (१९०९), मातर् बोधिनी (१९११), नाट्टुक्कोट्टै वैशियम् (१९१४), आर्य वैश्याभिमानी, बलियार मित्रन् (१९११), बालविनोदिनी, रन्ताकारम, (१९१८), नवशक्ती (१९२०), सुखाथार बोधिनी (१९२३), आयुळ बेदम (१९२३), चेंकुंत मित्रन (१९२२), आरोग्यदीपिकै (१९२४), कुटियरसू (१९२५), ब्राह्मणन् (१९२५), तमिष पोषिल् (१९२५), देशबंधू (१९२६), अच्चुतेशिल (१९२६), आनंद विजय विकटन् (१९२८), आनंद विकटन् (१९२९), प्रचंड महाविकटन् (१९२८), यादवमित्रन् (१९२९), गांधी, सुदंतिर चंकू (१९३०), कुलालमित्रन् (१९३१), आयुर्वेदजीवरक्षकम् (१९३२), प्रचंड विकटन्, वसंत विकटन्, कुमार विकटन् कुरूंपन् (१९३३), आदि द्राविड मित्रन् (१९३४), संगीत अभिमानी (१९३४), बालचिंतामणी, सिनेमा उलहम्, आटल् पाटल्, आन्द कूत्तन् (१९३५), मातर मरूमणम् (१९३६), गृहलक्ष्मी (१९३७), कॉंग्रेस पेरिकै, वैद्य चंद्रिक, शिल्पश्री, कथानिधी (१९३८), कुयिल् (१९४०), हनुमान् (१९४०), क्राम उळीयन् (१९४३), अगस्तियन् (१९४४), कलामोहिनी, चंद्रोदयम् (१९४५), मुल्लै (१९४६), आशोक, पूतोट्टम, तोषन चिरपक्कलै, पुतुमैप्पेण् अंबुलि मामू, चिंतनै, कलै (१९४७), तमिषर् नाडू, नूरूळ् हक्, कलैक्कतिर्, तेनी (१९४८), योगासन आलल विजयम, नाट्टियम्, शक्ती, अंबि तंपी (१९४९), वम्ळुवर्, कण्णन् (१९५०), कल्क्कंटू (१९५१), द्राविड कूट्टरशू (१९५२), पार्वती (१९५०), विज्ञानी (१९५३), शांती (१९५४), सरस्वती (१९५५), कलावल्ली (१९५५), श्री. सुब्रह्मण्य भारती कविता मंडलम् (१९५५), द्राविड येडू (१९५७), तामरै (१९५८), कवितै (१९६४), कणैयाळी (१९६५), नटै, दीपम (१९६५), सुरथ (१९६६), इलक्किय वट्टम् (१९६३), ज्ञानरथम् (१९७०), तेन मोषी, मुल्लै (१९७०), चेंपरिती, माणाक्कन, पकुत्तरिवू, आरायची, पुलमै, आनंद विकटन, कल्की, कुमुदम्, कलैमकळ्, मंजरी.

**मराठी नेमाळीं :** १९व्या शतमानाचे सुरवाती पसून मराठी भाशिकांक इंग्लीश भाशेचो परिचय जावंक लागलो. देशांतल्या हेर वाठारांप्रमाण महाराष्ट्रांतूय संस्कृतीक प्रबोधनाचो काळ आयलो आनी हातूंतल्यानूच दिसाळीं आनी नेमाळीं हांचो उदय जालो. मराठी भाशेंतलें पयलें नेमाळें 'दिग्दर्शन' (१८४०) बाळशास्त्री जांभेकर हाच्या संपादनाखाल उजवाडा आयलें. हे सुरवाती उपरांत मराठी नेमाळ्यांनी भरपूर प्रमाणांत वाड जाली.

सुर्वेच्या मराठी नेमाळ्यांचो उद्देश जरी अस्तंत्या गिन्यानाची वळख करून दिवपाखातीर आशिल्लो तरी फुडल्या काळांत वेगवेगळ्या विशयांवयलीं आनी संपन्न अशीं मराठी नेमाळीं उजवाडा येवंक लागलीं. हातूंतलीं म्हत्वाचीं नेमाळीं अशीं - ज्ञानचंद्रोदय (१८४०), ज्ञानोदय (१८४२), ज्ञानप्रकाश (१८४९), मराठी ज्ञानप्रसारक (१८५०), विचारलहरी (१८५२), ज्ञानदर्शन (१८५४), सुमित्र (१८५५), प्रभोदय, उदयप्रभा, सद्धर्मदीपिका, सर्वसंग्रह (१८६०), ज्ञानाकर (१८६२), स्त्रीभूषण (१८६४), विविधज्ञानविस्तार (१८६७), दंभहारक (१८७१), बालबोधमेवा (१८७३), सत्यदीपिका (१८७३), निबंधमाला (१८७४), अबलामित्र (१८७६), न्यायप्रकाश (१८७६), व्हराडशालापत्रक (१८७६), काव्येतिहास संग्रह (१८७८), बालबोध (१८८१), निबंध चंद्रिका (१८८७), स्त्रियांची मैत्रिण (१८८८), भिषग्विलास (१८९२), बालमित्र (१८९३), ग्रंथमाला (१८९४), भाषांतर (१८९४), मनोरंजन (१८९५), स्त्रीशिक्षण चंद्रिका (१८९९), रंगभूमी (१९०७), मुमुक्ष (१९०७), रंगभूमी (१९०७), न्यायाश्रम, मराठी शिक्षक (१९११), शेतकी आनी शेतकरी (१९१०), व्यायाम (१९१५), रामदास आनी रामदासी (१९१५), उद्यम, तत्त्वज्ञान मंदीर (१९१९), रत्नाकर (१९२५), सृष्टिज्ञान, महाराष्ट्र साहित्य पत्रिका (१९२८), किर्लोस्कर (१९२९), प्रतिभा (१९३३), पारिजात (१९३४), जोत्स्ना (१९३६), अभिरूची (१९४३), युगवाणी (१९४६), साहित्य (१९४७), संशोधन - पत्रिका (१९५२), प्रतिष्ठान (१९५३), छंद (१९५४), महानुभाव, प्रसाद, ज्ञानेश्वर, नामदेव, सज्जनगड, मासिक पत्रिका, माऊली, अभिरूची, प्रतिभा, साहित्य, सत्यकथा, आलोचन, वैखरी, ऋचा, नवभारत, समाजप्रबोधन पत्रिका, लोकशिक्षण, सह्याद्रि, मासिक मनोरंजन, ब्राह्मण पत्रिका, लोकशिक्षण, पुरूषार्थ, नवभारत, मानकरी, देवलांची नाटके संस्कृतिसंगम, लोकसत्ता आणि महाराष्ट्र संस्कृति, नाट्यवास्तुरचना, गृहिणी, प्रपंच, मानिनी, संजीवनी, अनुराधा, स्त्री, जत्रा, शालापत्रक, आनंद, खेळगडी, कुमार, किशोर, चांदोबा, अस्मितादर्श, निकाय, अस्तित्व, शेतकरी, लोकराज्य, साहित्यसहकार, ललित, इये मराठीचिये नगरी, वाचनालय.

महाराष्ट्राभायल्या कांय वाठारांनीय मराठी भाशीक नेमाळीं उजवाडा येतात तीं अशीं - मांडवी (गोंय), मालव साहित्य (इंदूर), पंचधारा आनी स्वाध्याय संशोधन पत्रिका (हैदराबाद), मायमराठी (दिल्ली), पुरूषार्थ (पारडी) हीं नेमाळीं म्हत्वाचीं आसात.

**कोंकणी नेमाळीं :** (पळेयात कोंकणी साहित्य - कोंकणी पत्रवेवसाय).

- कों. वि. सं. मं.

**नेमिचंद्र :** (बारावें शतमान). कन्नड भाशेंत रचना करपी नामनेचो जैन कवी. बाराव्या शेंकड्याचे अखेरेक चंपूपद्दतीचें काव्य उदरगतीक हाडपी पंडीत कवींमदीं नेमिचंद्राचो आस्पाव जाता. ताणें 'लीलावती प्रबंध' आनी 'नेमिनाथपुराण' हीं दोन चंपूकाव्यां बरयलीं. सौदत्तीचो रट्टराज लक्ष्मीधर (११७०) हाणें नेमिचंद्राक आलाशिरो दिल्लो आनी होयसळ राजा वीर बल्लाळ हाचो मुखेल प्रधान सेज्रवळू पद्मनाभ हाणें नेमिचंद्रा कडल्यान 'नेमिनाथपुराण' बरोवन घेतलें, अशे उल्लेख मेळटात.

नेमिचंद्राक 'कविराजकुंजर', 'साहित्य विद्याधर' ह्यो पदव्यो मेळिल्ल्यो. लीलावती प्रबंध हें ताचें शृंगाररस आशिल्लें काव्य. सपनांत एकामेकांक पळोवन मोगांत पडिल्ल्या आनी उपरांत टाटातूट जावन परत मेळिल्ल्या मोगी-मोगीकेची कथा तातूंत आयल्या. हातूंत खूब वर्णनां आयल्यांत. बायलेची सोबीतकाय हीच खरी सोबीतकाय आनी शृंगार होच खरो रस, हे फाटभुंयेचेर नेमिचंद्रान हें काव्य बरयलें. 'नेमिनाथपुराण' ह्या चंपूकाव्यांत बाविसाव्या तीर्थंकराचें चरित्र वर्णिल्लें आसून तातूंत आयिल्ली हरिवंश-कुरुवंशांची कथा ही कृष्णाचीच कथा. ही कथा पुराय नासून तातूंत कंसवधामेरेनचोच भाग आयला. कवीच्या मरणाक लागून हें काव्य पुराय जावंक शकलेंना. म्हणून ह्या काव्याक 'अर्धनेमिपुराण' अशें म्हण्टात. त्या काव्यांतल्यो जिव्यो व्यक्तीरेखा, कल्पकताय आनी सोपी शैली हांचेवयल्यान नेमिचंद्राचे प्रतिभेचो अणभव येता.

- कों. वि. सं. मं.

**नेरुदा, पाब्लो :** (जल्म : १२ जुलय १९०४, पॅरल चिली; मरण : २३ सप्टेंबर १९७३, सांतीयागो, चिली).

नामनेचो चिलीयी कवी. स्पॅनीश भाशेंत ताणें बरप केलें. ताचें मूळ नांव नेफताली रिकार्दो रेयास. १९२० सावन ताणें पाब्लो नेरुदा ह्या नांवान बरप केलें आनी १९४६त ह्याच नांवाचो कायदेशीर स्विकार केलो. ताचें शिक्षण टोयको आनी सांतिआगो शारांनी जालें. पिरायेच्या



धाव्या वर्सासावन ताणें कविता बरोवपाक सुरवात केली. ताच्यांतलो कवी घडत आसतनाच नामनेची चिलीयी कवयित्री गाब्रिएला मिसत्राल हिचो सहवास ताका मेळ्ळो. तिणें ताका कितल्याशाच अभिजात ग्रंथांची वळख करून दिली. ह्या ग्रंथांच्या वाचनान तो साम्यवादावटेन घुंवलो.

फ्रँच भाशेच्या उच्च शिक्षणाखातीर पाब्लोचो राबितो सांतियागोक आसतना थंयच्या चिलीयी विद्यार्थ्यांचे संघटनेवरवीं जाल्ले काव्य सर्तींत ताणें इनाम मेळयलें. १९२३त Crepusculari हो ताचो पयलो कविताझेलो उजवाडाक आयलो. १९२४त उजवाडाक आयिल्ल्या Veinte Poemas de amor y una cancion desesperada' ह्या कविताझेल्याक लागून एक म्हान कवी म्हणून ताणें नामना जोडली.

ताचे उपरांतचे कांय उल्लेख करपासारके कविताझेले अशे : Tentatira hombre infininito (१९२६) El hondero entusiasta (1933).

१९२७त ताची रंगून हांगा वाणिज्यदूत म्हणून नेमणूक जाली आनी ते उपरांत राजनितीक सेवेच्या निमतान युरोपांत, दक्षिण अमेरिकेंत आनी उदेंतेकडल्या कांय देशांक ताणें भेटी दिल्यो. ताचें काव्यलेखन मात अखंड चालू आशिल्लें. १९३५त वाणिज्यदूत म्हणून तो माद्रीदाक आयलो आनी स्पेनीश विचारवंतांनी ताका उर्बेभरीत येवकार दिलो. १९३६त स्पेनांत जाल्या यादवी झुजांत ताची इश्टीण नामनेची स्पेनीश कवी आनी नाटककार फ्रेदेरिको गार्सिपा लॉर्का हिका मरण आयलें. ह्या झुजाचे दुखदिणे परिणाम खोलायेन ताच्या मनार जाले. Espana en el corazon ह्या ताच्या काव्यांत ताचें पडबींब पडलां. फुडें दुसऱ्या म्हाझुजाच्या वातावरणांतल्यान स्फुरिल्ल्यो कितल्योशोच कविता ताणें बरयल्यो.

चिलीयी सिनेटचो वांगडी म्हणून १९४५ तो वेंचून आयलो आनी देशाच्या विंगड विंगड प्रस्नांनी ताणें आस्थेन लक्ष घालें. १९४९ त ताणें सोविएत युनियनाक भेट दिली. ह्याच काळांत ताणें Canto general (१९०५)

हें अमेरिकेवयलें म्हाकाव्य बरयलें. युरोपाच्या प्रभावांतल्यान मुक्त जाल्ल्या स्पेनी अमेरिकी कवितेचो साक्षात्कार ह्या म्हाकाव्यान घडयलो. चिलींत १९७०त सत्तेर आयिल्ल्या साल्वादोर आयंदे ह्या मार्क्सवादी अध्यक्षान पाब्लोची फ्रांसांत राजदूत म्हणून नेमणूक केली.

एक म्हान शांततायवादी आनी मानवतावादी कवी म्हणून पाब्लोन नामना मेळयली. भावकवितें सावन म्हाकाव्यामेरेन वेगवेगळे तरेची कविता ताणें समर्थपणान बरयली. ताच्या कांय कवितांनी अतिवास्तववादी प्रतिभा मेळटात. १९७१ वर्सा ताका साहित्याखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

संवसारीक शांतताय संघटनेचो (World Peace Council) तो १९५०सावन वांगडी आशिल्लो. १९५३त ताका स्टालिन शांतताय पुरस्कार फावो जालो. १९५०त ताणें भारताक भेट दिल्ली आनी कांय नामनेच्या भारतीय साहित्यिकांकडेन इश्टागत केल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**नेवगी, गजानन रामचंद्र :** (जल्म : ७ सप्टेंबर १९३३, दिवचल).

सुटकेझुजारी. १९४६ वर्सा सावन तो राश्ट्रीय वावर करूंक लागलो. पत्रकां लावप, दोडामार्गा वयल्यान पत्रिका हाडून त्यो वांटप, असलीं कामां तो करतालो. १९५४ वर्सासावन 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' संघटनेचो तो वांगडी जालो. ६ एप्रिल १९५५ दिसा ताणें म्हापश्यां सत्याग्रह घडोवन हाडपाक सुधाताई जोशी हिका पालव दिलो. २० जुलय १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताच्या घराचेर धाड घालून घरांत आशिल्लें राश्ट्रीय साहित्य आनी पत्रकां जप्त केलीं. दुसऱ्या दिसा ताका ताचो भाव आनी बापायसयत धरलो. पणजे पोलीस ठाण्यांत ताचो खूब छळ केलो आनी ताका आल्तिन्यावयल्या हॉस्पिटलांत व्हरून दवरलो. २२ डिसेंबर १९५५ ह्या दिसा ताका आग्वाद बंदखणींत दवरलो. कांय दीस ताका एकांतवासांत दवरिल्लो.

२२ फेब्रुवारी १९५६ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## नेवगी, वसंत काशिनाथ : (जल्म : १५ ऑगस्ट १९२०, म्हापशें).

सुटकेझुजारी. ताणें लिसेंवाचें दुसरें वर्स आनी मॅट्रिके मेरेन शिक्षण घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. भूंयगत क्रांतीविरांक तो आदार दितालो. १९५५-५८ ह्या काळांत ताका पोलिसांनी पांच खेपे धरलो आनी २८ म्हयने बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## नेवगी, हनुमंत ऊर्फ हेमंत बाळकृष्ण : (जल्म : १० ऑक्टोबर १९११, मडगांव).

एक नामनेचो गोंयकार सावळे चित्रकार. ताचो मूळ गांव कालापूर, तिसवाडी. पूण बाटाबाटी वेळार पुर्तुगेजांच्या त्रासांक लागून ताचो घराबो बेळगांव गेलो. उपरांत परत म्हापश्यां येवन थंयच्यान मडगांवां येवन रावलो. ताचे मुळावें आनी मॅट्रिके मेरेनचें शिकप मडगांवां दामोदर विद्यालयांत जालें. ल्हान आसतनाच ताका चित्रकलेची ओड लागली. १९३० वर्सा ताणें नामनेचो चित्रकार प्रभाकर मुळगांवकर हाचेकडेन चित्रकलेचें मुळावें शिक्षण घेतलें. १९३४ वर्सा मुंबय, गिरगांवां ताणें केतकर आर्ट इस्टिट्युटांत तीन वर्सां शिक्षण घेतलें. उपरांत १९३७ वर्सा मुंबयच्या जे. जे. स्कूल ऑफ आर्टस् हातुंतल्यान कलेची पदवी घेतली. तेन्नाच ताच्या बापायची भलायकी इबाडिल्ल्यान ताका गोंयांत येवन रावचें पडलें.

ताच्या चित्रांक गोंयांत व्हडलोसो वाव मेळ्ळोना तेन्ना १९४१ वर्सा तो परत मुंबय गेलो. ताचीं चडशीं चित्रां सैमाचेर आनी मुखवट्यांचेर आशिल्ल्यान सिनेमासृश्टींत ताका बरो वाव मेळ्ळो. थंय ताणें तीन वर्सां आर्ट डायरेक्शनाचें काम केलें. १९४५ वर्सा चित्रां काडपाच्या निमतान ताणें ग्वाल्हेर, दिल्ली, आग्रा, उज्जैन, बडोदा, जयपूर ह्या सुवातींनी भोवंडी केली. थंयच्यान ताणें ते ते सुवातीचें दर्शन घडोवपी सुमार १५० चित्रां काडलीं.

ताचीं हीं चित्रां पळोवन ताका मुंबयच्या हाफकीन इन्स्टिट्युटांत चित्रकार आनी छायाचित्रकार म्हणून आपोवणें आयलें. हे संस्थेत ताणें सेगीत २५ वर्सां नोकरी केली आनी १९६८ वर्सा थंयच्यान निवृत्त जावन तो गोंयांत आयलो.

१९३८ वर्सा ताणें काडिल्ल्या चित्रांचें गोंयांत प्रदर्शन जालें. तेन्नाचो जुईज द रेलासांव हाका ताचीं कांय चित्रां आवडून ताणें ताच्या दोन खास चित्रांक रोखड इनामां आनी भांगरा पदकां दिलीं. 'मौज' ह्या मराठी अंकांत नेमान ताचीं चित्रां येतालीं. 'बडी माँ', 'सौभद्र' आनी 'प्रफुल्ल' सिनेमांखातीर ताणें वेगवेगळीं चित्रां काडल्यांत.

१९८१-८२ वर्सा गोंयच्या खेळ आनी संस्कृताय खात्यान ताका पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान केलो.

ताणें चितारिल्ल्या चित्रांनी मनशाच्या तोंडावयले हावभाव परिणामकारक आसतात. मुखवटे तेच पूण तांचे वेगवगळ्या खिणांतले हावभाव दाखोवपांत तो किशाल आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## नेवरेकार, श्रीपादराव : (जल्म : ३ जुलय १९१२, मडकय, गोंय. मरण : १६ जून १९७७, मुंबय).

गोंयचो एक नामनेचो संगीत नट. भारदस्त आवाजाची देण लाबिल्ल्या नाट्यरत्न श्रीपादराव नेवरेकाराक संगिताची कसलीच फाटभूंय नाशिल्ली. पूण ताच्या भुरगेपणांत गोंयांत ज्यो नाटक कंपन्यो येताल्यो, किर्तनकार येताले तांच्या पदांतल्यानूच श्रीपादरावाचेर संगिताचे संस्कार जाले अशें म्हणूं येता.

विसाव्या शेंकड्याच्या तिसऱ्या दशकांत संगीत शिक्षणाची उमेद आशिल्ल्या तरणाट्यांच्या मुखार संगीत साधनेचे दोनूच मार्ग आशिल्ले. एक नाटक कंपनींत काम करप आनी दुसरो किर्तनकार जावप. श्रीपादरावान आपणाल्या उपजत आवाजाच्या आनी संगिताचे आवडीच्या बळार नाटक कंपनींत प्रवेश करपाचो निर्णय घेतलो. १९३० वर्सा, रंगदेवता रघुवीर सावकार हाणें ताका आपल्या 'रंगबोधेच्छु' नाट्यसंस्थेंत आपयलो आनी श्रीपादरावान पिरायेच्या अठराव्या वर्सा हे नाट्यसंस्थेंत प्रवेश केलो. हे संस्थेंत रावन ताणें मानापमान, संशयकल्लोळ, वरवंचना ह्या नाटकांनी नायकाच्यो भुमिका केल्यो. ताचे पयलीं ताणें पणजेच्या श्रीमहालक्ष्मी सभामंडपांत रथसप्तमीकर समाजावतीन बसयल्ल्या नाटकांतल्यान विंगड विंगड भुमिका केल्यो. पूण 'रंगबोधेच्छु' नाट्यसंस्थेंतल्या ताच्या भुमिकांक लागून ताका खूब नामना मेळ्ळी. ह्याच वेळार, स्वातंत्र्यवीर विनायक दामोदर सावरकरान श्रीपांदरावाक 'नाट्यरत्न' ही पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो.

१९३२ वर्सा नानासाहेब चापेकर हाणें, श्रीपादरावाचो 'गंधर्व मंडळींत' प्रवेश करून दिलो. हे मंडळींत आसतना मास्टर कृष्णराव फुलंब्रीकर, विनायकराव पटवर्धन, गणपतराव बोडस, कृष्णराव चोणकर ह्या नामनेच्या गायक नटांचो सांगात मेळिल्ल्यान नेवरेकराच्या नाट्यसंगिताक एक वेगळेंच पूण वजनदार अशें रूप मेळ्ळें. फुडें फुडें चोणकर आनी नेवरेकार हे दोगूय जाण गंधर्वमंडळीचे खांबे मानताले. खंयच्याय वेळार बालगंधर्वाचो आवाज बरो लागलो ना जाल्यार हे दोगूय जाण आयकुप्यांक भरपूर संगीत दिवन रिझयताले.

'स्वयंवर' नाटक रंगमाचयेर येतपसून खुबशा नामनेच्या नटांनी भीष्मकाची भुमिका केल्ली. ह्या नटांभितर पंढरपुरकरबुवा, पटवर्धनबुवा, लोंढे ह्या गायक नटांचो आस्पाव जाता. पुण जेन्ना श्रीपादरावान भीष्मकाचे भुमिकेंतल्यान 'जाऽऽऽ भय न मम मना ' हें गीत, आपल्या भारदस्त, पहाडी आनी धारदार आवाजांत आयकुप्यांमुखार दवरलें तेन्ना जो टाळ्यांचो गडगड जालो ताका तोड ना अशें आयजूय जाण्टेले सांगतात. मालकंस रागांतल्या ह्या धीरोदात्त पदाक श्रीपादरावान जे तरेन न्याय दिलो तसो दुसऱ्या खंयच्याच नटान दिवंक ना अशें म्हण्टात.

नेवरेकारान संगिताचें मुळावें शिक्षण दत्तारामजी नांदोडकार हाचेकडेन घेतलें आनी नाट्य वेवसायांत थिरावतकूच तानरस खाँच्या घराण्याचो नामनेचो संगीतकार खाँसाहेब इनायतखाँ हाचेकडेन कांय वर्सां तालिम घेतली. उपरांत आग्रा घराण्याचो खाँसाहेब खादिम हुसेन खाँ हाचेकडेनूय

ताणें बरींच वर्सां संगिताचो अभ्यास केलो. नेवरेकारान पुरायपणान नाट्य वेवसायाक ओंपून घेतिल्लयान खाजगी मैफिली सोडल्यार हेर व्हड मैफिलींकडेन ताणें चडशें लक्ष दिलेंना. पूण शास्त्रीय आनी सुगम हे दोनूय प्रकार तो गायतालो.

'स्वयंवर' नाटकांत भीष्मक, 'एकच प्याला' तल्यान रामलाल आनी 'शारदा' नाटकांतले कोदंड ह्यो भूमिका खूब गाजल्यात. ह्या भुमिकांचीं पदां त्या त्या वेळार ताणें खूब रंगयलीं. श्रीपादरावाक बालगंधर्व भांगरापदक फावो जाल्लें.

'रंगबोधेच्छू' आनी 'गंधर्व मंडळी' ह्या दोनूय नाटक मंडळींचीं नाटकां संगीतप्रधान आशिल्लीं. श्रीपादराव ह्या नाटक मंडळींचो हिरो आशिल्लो. नाटक मंडळींत ताचें खूब वर्सां वास्तव्य आशिल्लें. फुडें नाटक कंपनी बंद पडटकूच बालगंधर्वान भजनाचे दौरे काडले. ह्या दौऱ्यांनीय नेवरेकारान वांटो घेवन बालगंधर्व नेवरेकर जुगलबंदीचो आस्वाद आयकुप्यांक दिलो.

पिरायेच्या साठ वर्सांच्या अदमासाक, १९७२ वर्सा गोंय, कला अकादमीन सुरू केल्ल्या संगीत म्हाविद्यालयांत सुगम संगिताचो शिक्षक म्हणून ताची नेमणूक जाली. सुमार तीन वर्सां हें काम करून तो मुंबय गेलो. ताका पिरायेच्या ६५ व्या वर्सा मरण आयलें.

गोवा हिंदू असोसिएशनच्या खुबश्या नाटकांनीय ताणें मुखेल भुमिका केल्ल्यो.

– माधव पंडित

**नेवार** : नेपाळांतली खूब पोरणी परंपरा आशिल्ली एक जमात. काडमांडूच्या दोंगरांनी ह्या लोकांची चड वसती आसा. तशेंच पाटण, भटगांव, कीर्तीपूर ह्या शारांनीय नेवार लोकांचो राबितो आसा. शेतकाम आनी हेर वेवसायांनिमतान हे लोक हेर सुवातांनी पातळ्ळ्यात. तरी ५०टक्के नेवार काठमांडूंत रावतात.

नेवार लोक हिमालयाचे उत्तरेसावन नेपाळांत आयले आसूं येत अशें सादारणपणान मत आसा. तेच भाशेन मलबारच्या नायरांकडेन नेवार लोकांचें खुबशें सारकेपण आशिल्ल्यान, ते दक्षिण हिंदूस्तानांतल्यान हांगा आयल्यात आसूं येत अशेंय एक मत आसा. ह्या लोकांचें वास्तव्य नेपाळांत इ. स. प. सुमार सव्वा शेंकड्यासावन आसा अशें अभ्यासकांचें मत आसा.

नेवार ह्या शब्दाचे व्युत्पत्तीविशीं खास म्हायती मेळना. ह्या प्रदेशांत तिबेटी भाशेंत लोकरीक पाल म्हण्टात. ह्या मूळ शब्दांत 'ने' हें व्यंजन सुर्वेक येवन नेपाल हो शब्द तयार जालो आसूं येता अशें म्हण्टात आनी ह्याच उतरा वयल्यान नेवार हें उतर आयलें अशें कांय तज्ञांचें मत आसा.

नेवार लोकांमदीं शिवमार्गी म्हळ्यार हिंदू आनी बुद्धमार्गी म्हळ्यार बौद्ध अशे दोन मुखेल भेद आसून, तातूंत आनीक जाती-उपजाती आसात. शिवमार्गी नेवारांच्या ब्राह्मण पुरयत वर्गाक देवभजू ब्राह्मण, लाखे आनी बुद्धमार्गी नेवारांच्या पुरयत वर्गाक वज्राचार्य, बाँडा वा बरे अशें म्हण्टात. देवभजू ब्राह्मणांक उपाध्या, राजोपाध्या, देवब्रह्म आनी गुरुबजे अशोय पदव्यो आसात. ब्राह्मणाउपरांत छथरिया श्रेष्ठ, पंचथरिया श्रेष्ठ आनी उदास हे उच्चवर्णीय लोक येतात. तांचे उपरांत पहाडी ज्यापू, हले, माली, चित्रकार, छीप, मनंधर, कौ, डूयीय, बलमी, संग, भा, कसाई, कुस्ले वा जोगी, पोरे, कुल्लू, च्यामे, हर हुरु ह्यो जाती येतात. हातुंतूय खूब पोटभेद आसात.

घर बांदतना नेवारी लोक खूब तरांचे विधी करतात. तांचीं घरां तीन-चार मजली आसून तीं विटो आनी नळे हांचीं आसतात. तीं चवकोनी आसून, मजल्यांची उंचाय खूब उणी आसता. फुडले वण्टीकूच जनेलां आसतात. दरेका मजल्याचे खास उपेग आसतात. तळमजल्यार दुकान, गोठो आनी कोठयेची कूड आसता. दुसऱ्या मजल्यार कांय कुडी आसतात. तातूंत सोयऱ्यांची तशेंच मेळपाक येवपी लोकांची वेवस्था करतात. तिसऱ्या मजल्यावयल्या कुडींनी लग्न जाल्ले दादले-बायलो न्हिदतात. चवथ्या मजल्यार रांदचीकूड आनी देवाची कूड आसता. रांदचेकुडींत परक्या मनशाक वचपाक बंदी आसता. घराच्या पाशताक जनेल आसता. दरेका घराच्या दाराचेर गणेशमूर्त आसता.

चडशे नेवार लोक नेवारी भास उलयतात. हे भाशेचेर संस्कृत भाशेचो प्रभाव आसा. तशेंच हे भाशेची स्वतंत्र लिपी आसुनूय, देवनागरी लिपीचो उपेग करतात. कांय नेवार लोक नेवारी आनी नेपाळी अशो दोनूय भासो उलयतात.

नेवार दादले कुडतो आनी विजार जाल्यार बायलो साडी आनी लांब हातांचो ब्लावज घालून शाल वा ओडणी घेतात. श्राद्ध सारकेल्या धर्मीक सुवाळ्याक मात नेवार दादले पुडवें न्हेसतात. हालीं शिक्षणाक लागून तांच्या भेसांत खुबूच बदल जायत चलला. ज्यापू हे पोटजातींतल्यो बायलो काळ्या रंगाची अशीर साडी न्हेसतात. पयलींच्या काळांत नेवार बायलो, नायर बायलांभशेन माथ्यार जटेभाशेन केंस बांदताल्यो पूण हालीं त्यो आंबाडो, दोन विणयो वा एक विणी घालतात. नेवार बायलांक अलंकारांची खूब आवड आसता. त्यो नाकांत सोडून कपलाचेर कानांत, हातांत तरातरांच्यो वस्ती घालतात. आंगार पाडून घेवपाची चाल ज्यापू हे पोटजातींत आसा.

नेवार लोकांमदीं मॉंगोलॉयड आनी भूमध्यसामुद्रिक (मॅडिटॅरेनियन) ह्या दोनूय वंशांचीं शारिरीक खाशेलेपणां आसात. शीत, भाजयो, मास, नुस्तें हो तांचो नित्याचो आहार. तांदळाचो सोरो नेवरांत प्रसिद्ध आसा.

बुद्धमार्गी नेवार आदीबुद्धाक भजतात. ताका ते स्वयंभू म्हण्टात आनी ज्वालेच्या रुपांत ताची पुजा करतात. तशेंच अमिताभ, पद्मपाणी, शाक्यसिंह आनी मंजुश्री हांचेवांगडा ते ब्रह्मा, विष्णु आनी महेश हांकांय भजतात. हिंदू नेवार शिवाक सगळ्यांत श्रेश्ठ मानतात. तशेंच विष्णु, कृष्ण, गणेश, आकाशभैरव, कालभैरव, बाघभैरव, सरस्वती, लक्ष्मी, पार्वती, दुर्गा, तुळजा आनी कांय ग्रामदेवातंक भजतात. बौद्ध आनी हिंदू दोन वेगळे धर्म आसले तरीय ते एकमेकांच्या धर्मांत इतले एकठांय आयल्यात, त्या त्या धर्माच्या पुजास्थानांत दोनूय धर्मांची उपासना जाता. नेवार लोक कुमारी म्हणून एके चलयेची पुजा करतात. वसणुकेंतले जे चलयेच्या आंगार कसलोच दाग वा माव ना अशे चलयेक वेंचून, कालीचें रूप म्हणून तिची पुजा करतात. तशीच सबंद राज्याची एक कुमारी आसता. तिका राजकुमारी म्हण्टात. राजा तिचेकडल्यान राज्य करपाचो आदेश घेता. कुमारी पिरायेंत येवपाच्या सुमाराक वा तिका कसलीय जखम जावन रगत आयल्यार, दुसरी कुमारी वेंचतात. कुमारीवांगडा कोण लग्न जायना कारण तिचो घोव बेगीन मरता अशी समजूत आसा. नेवार लोकांमदीं नाग आनी बेबकाची पुजा करतात. नवनाथांभितर मत्स्येंद्रनाथाक हे लोक चड मानतात.

नेवार लोकांमदीं जायते धर्मीक विधी आसून ते चडशे बायलांखातीरूच

आसतात. तातुंतलो यीहीमंके वा यीही हो सगळ्यांत म्हत्वाचो आनी पवित्र संस्कार मानतात. चार ते इकरा वर्सां पिरायेचे वा जाण्टी जावंक नाशिल्ले चलयेचें पयलीं बेलफळाकडेन वा नारायणाकडेन लग्न करतात. ह्या संस्काराक खूब खर्च येता म्हणून खूब चलयांचेर हो संस्कार भौशीक पद्दतीन करतात. देवभजू आनी डुयीय नेवार लोक सोडून हेर नेवार हो विधी करतात. ह्या संस्काराक लागून चलयेची समाजीक प्रतिश्ठा वाडटा आनी तिच्या खऱ्या लग्नाक फकत कराराचें स्वरूप उरता. तिका घटस्फोटूय घेवपाक मेळटा. तशेंच, घोव मेलो जाल्यार विधवेक परतून लग्न करपाक मेळटा अशी ह्या संस्काराफाटली धारणा आसता. 'कैटपूजा' हो उच्चवर्णी नेवारांचो मुजीभशेन एक सुवाळो आसता.

शेती आनी वेपार हे नेवारांचे मुखेल वेवसाय आसात. तशेंच, धातूकाम, मेस्तकाम, कुमारकाम, गवंडेकाम, वीणकाम, तेल गाळप हेय वेवसाय ते करतात. तेल गाळपाच्या घाण्याकूय भुतांखेतांची बादा जाता अशी तांची समजूत आसा. तेखातीर घाण्याच्या दरवटयाचेर ते रेड्याची कवटी बांदतात आनी दसऱ्याच्या दिसा घाण्याक रेडो बळी दितात. दरेका नेवाराची थोडी तरी शेती आसताच. भात विकतें घेवप ते उणेपणाचें मानतात. ते शेताखातीर नांगर वापरिनात. कोणेंय तो वापरल्यार ताका जातीभायर घालतात. भात हें तांचें मुखेल अन्न आसून मको, भाजयो हींय पिकां ते काडटात.

नेवार लोक दर वर्सा भैरवजात्रा भैरवीजात्रा, पर्जन्योत्सव, गायजात्रा, वनजात्रा, इंद्रजात्रा, कुमारीजात्रा, मच्छिंद्रजात्रा, नारायणजात्रा, गणेशजात्रा ह्यो जात्रा मनयतात. त्या वेळार देवतेक जनावर बळी दिवन, तांदळांचो सोरो हे पदार्थ ओंपतात. देवतेची रथांतल्यान मिरवणूक काडटात. काठमांडूंतलें पशुपतीचें देवूळ, कोटेश्वराचें महादेव देवूळ हीं तांचीं देवळां प्रसिद्ध आसात.

सादारणपणान नेवार लोकांचीं लग्नां सोळा ते वीस वर्सांचेर जातात. एकाच गोत्रांत लग्नां जायनात. लागींचीच चली व्हंकल म्हणून पसंत करतात. नेवार लोकांमदीं लग्नाचे तीन प्रकार आसात. १) पारंपारीक पद्दतीचें लग्न, २) स्वयंवर, ३) व्हंकलेक उबारून व्हरून लग्न करप. पयले पद्दतींत न्हवऱ्या-व्हंकलेची कुंडली जमप म्हत्वाचें आसून मध्यस्थावतीन हें लग्न जुळटा आनी हिंदू पद्दतीन तें करतात. लग्नाचो खर्च करपाची तांक नाशिल्ले गरीब लोक स्वयंवर ही लग्नाची पद्दत आपणायतात. ह्या लग्न प्रकारांत न्हवरो-व्हंकल गणेशाच्या देवळांत वचून एकामेकांच्या गळ्यांत माळ घालतात आनी तेन्नासावन तीं घोव-बायल जातात. व्हंकलेक उबारून व्हरून लग्न करपाचे पद्दतींत न्हवरो व्हंकलेचें अपहरण करता आनी चार दीस लिपोवन दवरता. उपरांत तीं दोगांय भायर येतात, तेन्नासावन तांकां घोव-बायल म्हणून कायदेशीर मान्यताय मेळटा. गरीब लोकांमदीं ह्या लग्नाची चाल आसा. ह्या लोकांमदीं बायल आपल्या मोग्या वांगडा पळून गेली वा न्हवरो तिका त्रास दिता जाल्यार बायलेक घटस्फोट घेवंक मेळटा. तशेंच, घोवाक जेन्ना घटस्फोट घेवपाचो आसता, तेन्ना तो बायलेक तिच्या कुळारा धाडून दिता आनी परत आपयना. तेन्ना ती घटस्फोट घेता.

घोवागेरूच बायलेचो बाळंटेर जाता. भुरग्याची नाळ कापतात त्या दिसासावन सुवेर लागता. सुवेर चार वा स दीस आसता. सुवेराच्या निमाण्या दिसा जो विधी करतात, ताका लागपी सगळें सामान भुरग्याचो मामा दिता. त्या दिसा घोवाक आनी बायलेक एकठांय बसोवन भुरग्याक बरें नटोवन आवयचे मांडयेर दितात. उपरांत वैजीण त्या भुरग्याक काडून बापायचे मांडयेर दिता. अशें केल्ल्यान त्या भुरग्याचें पितृत्व बायलेच्या घोवाकडेन वता अशें मानतात. एकविसाव्या दिसा बाळंटीण दोळ्येंत बसून आवयगेर वता.

नेवार लोकांमदीं जोगी जातीचे लोक सोडून हेर जातींतल्या लोकांक न्हंयेचे देगेर लासतात. मनीस मरनाफुडें ताचें तोंड धुंयतात आनी ताच्या कपलाचेर शेंदुराचो तिबो लायतात. निसणीर दवरतकूच पींड दान दितात. उपरांत घरांतली लग्न जाल्ली धूव मड्याक तीन प्रदक्षिणा घालता. ह्या लोकांमदीं मेल्ल्या मनशाची पत्रिका ताच्या गळ्यांत बांदतात. सुतक धा वा बारा दीस पाळटात. पूण मेल्ल्या मनशाचो पूत एक वर्स सुतक पाळटा. सातव्या दिसा एका मडक्यांत थोडें धंय आनी फोव घालून तें मनीस मेल्लो त्या जाग्यार दवरतात. अशें करिना जाल्यार मेल्ल्या मनशाचें भूत त्या जाग्यार रावता असो समज आसा. तेराव्या दिसा श्राद्ध करतात.

– कों. वि. सं. मं.

**नेवासे** : महाराष्ट्रांतलें पोरण्या अवशेशांचें एक थळ. अहमदनगर शाराचे इशान्येक सुमार ५६ किमी. अंतराचेर प्रवरा न्हंयेचे दक्षिण देगेर हें वसलां. पुर्विल्लें साहित्य, कोरीव लेख हातूंत ताचे निधिवास, निदवास, निवास म्हणून उल्लेख मेळटात. तशेंच, रामायणांत हाचो उल्लेख शिवस्थान म्हणून केला. हांगा महालया आनी मोहिनीराज ह्या दोन देवतांचीं देवळां आसात.

आर्विल्ल्या काळांत ज्ञानेश्वराची जल्मभूंय म्हणून नेवासे प्रसिद्ध आसा. तेराव्या शतकांत हांगा ज्ञानेश्वरान ज्ञानेश्वरी बरयली अशें सांगतात. नेवासेच्या लाडमोड दोंगुल्ल्यांनी पुराणवस्तुसंशोधन विभागावतीन इ. स. १९५४ ते १९६०त उत्खनन केलें. त्या उत्खननांत मेळिल्ल्या वेगवेगळ्या पुराव्यावयल्यान नेवाशांत पयली वसती इ. स. प. दुसऱ्या सहस्त्रकाच्या शेवटाक जाल्ली म्हणपाचें कळटा. ही वसती ताम्रपाशाणयुगीन संस्कृतीच्या लोकांची आशिल्ली. हे लोक तांब्याच्यो कुराडी आनी नुस्तें धरपाखातीर गरो वापरताले. फातरांपसून तयार केल्लीं हत्यारांय ते वापरताले. तांचो आकार पिंपळाच्या पानाभाशेन त्रिकोनी आशिल्लो आनी तांकां तोंक आशिल्लें. तातूंत रांपी, लांब पाती अशे जायते प्रकार आसात. हीं हत्यारां तयार करपी लोकांचो काळ सनपयलीं ५० हजार वर्सां इतलो आशिल्लो जावंये. काळ्या रंगान नक्षी काडिल्लीं आयदनां, वाडगे आनी मातयेचे तवे ते वापरताले.

नेवार लोक मेल्ल्या भुरग्याक ते गोबरा रंगाच्या मडक्यांत आनी जाण्टयांक मातयेच्या व्हडल्या आयदनांत घालून पुरताले. तांचीं घरां काळी माती आनी चुनो हांच्या मिश्रणांचीं आसतालीं. ल्हान भुरग्यांच्या गळ्यांत ते रेशमी दोऱ्यान गुंथिल्ल्यो तांब्याच्या मणयांच्यो-माळो घालताले.

हांगा दुसरी वसती इ. स. प. दुसऱ्या-पयल्या शतकांत सातवाहन राजांच्या काळांत जाली. विटांनी बांदिल्लीं घरां, काळ्या-तांबड्या रंगाचे वाडगे, कळशे, थाळयो, धांपणी तशेंच मृत्पात्रां, लोखणाचीं आयुधां, सातवाहन नाणीं आनी शिवराक-मासाहारी जेवणा पद्दत हीं ह्या काळाचीं खाशेलपणां जावन आसलीं. तशेंच अकीक, जास्फर, कार्नेलियन, स्फटीक, कंवची, ओपल, हस्तिदंत हांचेपसून तयार केल्ले मणयांचे अलंकारूय हांगा मेळ्ळ्यात. ह्या काळांतले लोक लोखण वापरताले आनी त्या कामांत ते कुशळ आशिल्ले.

तिसरी वसती इ. स. प. पयलें ते इसवी सनाचें तिसरें शतक ह्या काळांत जाली. ह्या काळांत नेवाशांत राबितो केल्ल्यांच्या जिवितांत रोमन बनावटीच्यो जायत्यो वस्तू वेपारी संपर्काक लागून आयल्यो. व्हडलीं-व्हडलीं सोन्याचीं आयदनां, रोमी कंवचेचे मणी, रोमी पुतळ्यो, अर्चना कूंड हांचो तातूंत आस्पाव जाता. अर्चना कूंड हें मातयेचें आसून तें लांबट चवकोनी आशिल्लें. ताका सात सोपणां आशिल्लीं आनी तातूंत जलदेवतेची पुजा करपाची कल्पना अभिप्रेत आशिल्ली.

निमाणी वसती बहमनी-मराठा सत्तेच्या काळांत जाली. ह्या काळांतल्या नाण्यांवयल्यांन हें कळटा. तशेंच ह्या काळांत हांगा जायत्यो ल्हान व्हड वास्तू बांदिल्ल्यो. तातूंतल्यो मुसलमानाचो इदगा, कामिलशाहाचो दर्गो, जामी मस्जीद, मोहिनीराजाचें देवूळ, मारुती आनी गणपतीचीं देवळां तशेंच घाट ह्यो उल्लेख करपा सारक्यो आसात.

नेवाशाच्या उत्खननांत महाराष्ट्रांतल्या ताम्रपाशाणयुगीन संस्कृतायेचो पुरावो हातांत आयिल्ल्यान ह्या लोकांचो नवाश्मयुगीन संस्कृतीकडेन लागींचो संबंद आशिल्लो हें समजलां. हेभायर नेवाशाक लागींच्या प्रवरा न्हंयेच्या देगेवयल्या संशोधनांत प्राचीनतम अश्मयुगांतलीं आनी प्राचीनतर अश्मयुगांतलीं हत्यारां आनी अश्मीभूत रानटी बैलांचे अवशेश मेळिल्ल्यान अश्मयुगापसून तहत मध्ययुगामेरेनच्या मानवी वसतीची उदरगत कळपाक मदत जाली.

– कों. वि. सं. मं

**नेहरू अहवाल :** भारताचे स्वायत्ततेसंबंदी सर्वपक्षीय अहवाल. भारताक स्वायत्तताय दिवपाखातीर ब्रिटीश सरकाराकडेन भासाभास चालू आसतना हिंदू आनी मुसलमान फुडाऱ्यांचें एकमत नाशिल्लें. ७ जुलय १९२५ ह्या दिसा ब्रिटीश पार्लमॅंटाच्या लॉर्ड्स सभाघरांत त्या तेंपावयलो भारत मंत्री लॉर्ड बर्कनहेड हाणें भारतीय नेत्यांक, भारतांतल्या चडशा लोकांक मान्य आसतली अशी घटना तयार करून दाखोंवची अशें आव्हान दिलें. उपरांत भारत सरकार आपूण (बर्कनहेड) आनी सायमन कमिशन मेळून हे घटनेचो बारीकसाणीन विचार करूंया अशेंय ताणें सांगलें.

हिंदू आनी मुसलमान हांचो प्रस्न सोडोवपाचे नदरेन मुळावीं उलोवणीं जालीं. तीं फळादीक जातात तें पळोवन १९२७त चेन्नई अधिवेशनांत भारतीय स्वराज्याची राज्यघटना तयार करपाखातीर हेर संघटनांनी नेमिल्ले अशेच समितीवांगडा भासाभास करून ही घटना दिलीक मार्च १९२८त जावपी सगळ्या पक्षांचे परिशदेच्या विचाराखातीर सादर करची, असो थाराव मान्य जालो.

हे परिशदेच्यो सुमार २५ बसका जाल्यो. पूण हिंदू-मुसलमानांभितर एकमत जालें तें पळोवन निमाणो यत्न म्हणून पंडीत मोतिलाल हांचे अध्यक्षतायेखाला एक समिती नेमली. राज्यघटनेचीं तत्त्वां थरोवन त्या आदाराचेर अहवाल तयार करपाक ते समितीक सांगिल्लें. एक जुलय १९२८ मेरेन समितीन आपलें काम पुराय करपाक जाय आशिल्लें. अध्यक्षाभायर हे समितींत वांगडी आशिल्ले मुस्लीम लिगाचे सर इमान अली आनी शोएन कुरेशी, हिंदू महासभेचे मा. श्री. अणे आनी डॉ. एम. आर. जयकर, ब्राह्मणेत्तर हाचे जी. आर. प्रधान, सरदार मंगलसिंग (शीख), तेजबहादुर सप्रू (लिबरल) आनी एन. एम. जोशी (मजुर). कॉंग्रेसचे सरचिटणीस पंडीत जवाहरलाल नेहरू हे समितीचे चिटणीस आशिल्ले.

नेहरू समितीन तीन म्हयन्यांच्या काळांत जो अहवाल तयार केलो ताका नेहरू अहवाल अशें म्हण्टात. हे समितीन केल्ल्यो मुखेल शिफारसी अशो आशिल्ल्यो –

१) वसणुकेचें स्वराज्य आशिल्ल्या देशांचे राज्यघटनेचे धरतेचेर भारताची राज्यघटना पुरायपणान जापसालदार आशिल्ल्या सरकाराच्या तत्त्वाचेर आदारिल्ली आसची आनी ब्रिटीश सरकारान भारताक बेगोबेग वसणुकेचें स्वराज्य दिवंचें.

२) वायव्य शिमेवयल्या प्रांतांक हेर प्रांतां प्रमाण स्वतंत्र प्रांताचो दर्जो दिवंचो. सिंधाचो प्रदेश मुंबय प्रांतासावन वेगळो करचो.

३) विभक्त मतदारसंघाक लागून जापसालदार राज्यपद्दतीच्या तत्त्वांक आडमेळें येता. असल्या मतदारसंघाक लागून विंगड विंगड जमातींत एकवट जायना. देखून वेंचणुको संयुक्त मतदारसंघाच्या तत्त्वाचेर घेवंच्यो. अल्पसंख्येंत आशिल्ल्या लोकांक संरक्षण म्हणून फकत 'राखीव जागे' दवरचे.

४) नवे राज्यघटनेंत जनतेच्या हक्कांच्या जाहीरनाम्याचो आसपाव जावंचो आनी तातूंतल्यान 'सगळ्या नागरिकांक विचार स्वातंत्र्य आनी धर्मीक स्वातंत्र्य आसचें.

५) भारताची राज्यघटना संघराज्य (Federation) स्वरुपाची आसची आनी भारतीय संस्थानांचो तातूंत आस्पाव जावंचो. पूण हीं संस्थानां स्वतंत्र उरलीं जाल्यार त्या कारणावयल्यान भारताक वसणुकेचें स्वराज्य मेळपाक कांयच आडमेळें येवंक जायना.

६) भारतीय सैन्यदळां, भारतीय संरक्षण मंत्र्याच्या नियंत्रणाखाला आसचीं.

७) कायदे करपाचे हक्क केंद्रांत दोन घरांनी विधिमंडळाकडेन आनी कार्यकारी अधिकारी गव्हर्नर जनरलाकडेन आसचे. प्रधानमंत्र्याची नेमणूक ताणें करची. पूण हेर मंत्र्यांची नेमणूक प्रधानमंत्र्याच्या सल्ल्याप्रमाण करची.

नेहरू अहवाल २९ ऑगस्ट १९२८ दिसा लखनौक भरिल्ले 'सगळ्या पक्षांचे परिशदेंत सादर केल्लो. पूण जवाहरलाल नेहरू आनी सुभाषचंद्र बोस हाणीं वसणुकेचे मागणेक विरोध केल्लो. पुराय स्वराज्याची मागणी करची असो तांचो आग्रो आशिल्लो. पूण निमाणेकडेन वसणुकेच्या स्वराज्याचे मागणेचोच थाराव पास जालो. ३१ डिसेंबर १९२९त कलकत्त्याक भरिल्ल्या कॉंग्रेस अधिवेशनांत नेहरू अहवालाक मान्यताय मेळ्ळी.

राश्ट्रीय मुसलमानांक नेहरू अहवाल मान्य आशिल्लो. पूण आगाखानाच्या फुडारपणाखाला आशिल्ल्या मुसलमानांनी मुसलमानांखातीर विभक्त मतदारसंघ न्हयकारिल्लो म्हणून अहवालाक विरोध केल्लो. शीखांक, ब्राह्मणेतरांक आनी मागाशिल्ल्या जमातिकूंय हो अहवाल मान्य नाशिल्लो. १९२९त जाल्ल्या कॉंग्रेस अधिवेशनांत पुराय स्वराज्याची मागणी करपी थाराव पास जाल्लो, हाका लागून नेहरू अहवाल आपसुकूच भायर पडलो.

– कों. वि. सं. मं.

**नेहरू, जवाहरलाल :** (जल्म : १४ नोव्हेंबर, १८८९, अलाहाबाद; मरण : २७ मे, १९६४ दिल्ली).

भारतीय स्वातंत्र्यसंग्रामाचो फुडारी, स्वतंत्र भारताचो पयलो प्रधानमंत्री



आनी संवसारीक नामनेचो विचारवंत. एका काश्मीरी ब्राह्मण कुटुबांत ताचो जल्म जालो. ताचो बापूय मोतीलाल नेहरू एक नामनेचो वकील आनी राश्ट्रीय लडयांतलो एक जेश्ठ फुडारी आशिल्लो.जवाहराची आवय स्वरुपराणी धर्मीक वृत्तीची आशिल्ली.

जवाहराचें मुळावें शिक्षण घराकडेनूच बऱ्याशा शिक्षकांकडल्यान जालें. तातूंतल्या फर्डिनांड टी ब्रुक्स ह्या शिक्षकान जवाहराक विज्ञानाची आनी वाचनाची गोडी लायली. ब्रुक्स हो थिऑसॉफिस्ट आशिल्ल्यान, जवाहराक ताणें ॲनी बेझंट हिचें व्याख्यान आयकूंक दिवन थिऑसॉफीची दिक्षा दिली. सुर्वेक जवाहर त्या विचारांनी खूब भारावलो पूण थोड्याच दिसांनी ताणें थिऑसॉफीचो नाद सोडलो. ह्या काळांत ताणें इंग्लीश भाशेवांगडा संस्कृत आनी पर्शियी भाशांचेंय अध्ययन केलें. सतारवादन, गायन ह्या कलांनीय ताका गोडी आशिल्ली. आवय कडल्यान आनी मावशी, बिबीअम्माकडल्यान ताका रामायण, महाभारतांतल्यो कथा तशेंच सदाचाराची शिकवण मेळ्ळी. शालेय शिक्षणावांगडा ताणें वाचन लेगीत खूब केलें. उपनिषदां, भगवद्‌गीता, महाभारत, रामायणच्या वाचनान ताच्या मनांत अध्यात्मभावना जागी जाली, तेचपरी रशिया-जपान झूज, ह्या बोरझूज विशयांवयल्या ग्रंथ वाचनान ताच्या विचारांक जैताची झांक आयली. भारताचो इतिहास वाचतकूच ताच्या शिरंतरांनी, देशभक्तीचो मोग व्हांवंक लागलो.

१९०५ वर्सा जवाहरान फुडल्या शिक्षणाखातीर इंग्लंडांत हॅरोंतल्या ब्रिटीश पब्लिक स्कुलांत प्रवेश घेतलो. हॅरोक दोन वर्सांच्या वास्तव्यांत जवाहरान सैनिकी शिक्षण घेवन, गिर्यारोहणांतूय वांटो घेतलो. १९०७ वर्सा जवाहराक कॅंब्रिजांतल्या ट्रिनिटी म्हाविद्यालयांत प्रवेश मेळ्ळो. हॅरोक आसतनाच ताका इनाम म्हणून ट्रिव्हेल्यन हाणें बरयल्लें गॅरिबाल्डीच्या चरित्राचो एक भाग मेळ्ळो. ह्या चरित्राचे हेर खंड लेगीत ताणें वाचले. काव्हूर, मॅझिनी आनी गॅरिबॉल्डी हांचेभाशेन आपणेंय आपल्या देशाखातीर किदेंय तरी करूंक जाय अशी इत्सा ताच्या मनांत तयार जाली. ह्याच वेळार भारतांत वंग-भंग चळवळीक नेट आयिल्लो. परदेशी म्हालावयलो बहिश्कार, स्वदेशीचो पुरस्कार आनी सशस्त्र क्रांती हो कॅंब्रिज विद्यापिठांतल्या भारतीय विद्यार्थ्यांचो एक भासाभाशेचे विशय आशिल्लो. ह्याच अदमासाक ताणें श्यामजी कृष्णवर्मा, गोपालकृष्ण गोखले, बिपिनचंद्र पाल ह्या राश्ट्रीय फुडाऱ्यांचीं भाशणां आयकलीं. जवाहरासयत त्या वेळावयले सगळे विद्यार्थी लो. टिळक पक्षाचे म्हळ्यार जहाल राश्ट्रवादी आशिल्ले. १९०५ च्या रुसो-जपानी झुजाचो जवाहराच्या मनाचेर परिणाम जालो. भूशास्त्र, रसायनशास्त्र आनी वनस्पतिशास्त्र हे तीन विशय घेवन तो दुसऱ्या वर्गांत विज्ञानाची पदवी परिक्षा पास जालो. उपरांत बॅरिस्टरची परिक्षा दिवन १९१२ वर्सा भारतांत आयलो. इंग्लंडांतल्या ह्या सात वर्सांच्या वास्तव्यांत ताणें बर्नार्ड शॉ, लौ डिकिन्सन, आयव्हॅन ब्लॉक, हॅवलॉक एलिस, एबिंग क्रॉफ्ट, ओटो व्हायनिंजर, ऑस्कर वायल्ड, वॉल्टर पेटर ह्या नामनेच्या लेखकांचीं पुस्तकां वाचलीं. इंग्लंडच्या उदारमतवादाचोय ताच्या मनाचेर खोल परिणाम जालो आनी फॅबियन समाजवादी चळवळीकडेन ताचें मन ओड घेवंक लागलें.

भारतांत येतकूच देशसेवा करची काय वकिली हे विशीं ताचेमुखार पेंच पडलो. अलाहाबादेक ताणें वकिलीक सुरवात केली पूण अडेज वर्सांभितर ताका ह्या वेवसायाचो वीट आयिल्ल्यान ताणें वकिली सोडली.

८ फेब्रुवारी १९१६ ह्या दिसा कमल कौल हे दिल्लींतले चलये वांगडा जवाहराचें लग्न जालें. ताका दोन अपत्यां जालीं. एक चली इंदिरा गांधी जी फुडें भारताची प्रधानमंत्री जाली आनी एक चलो जाका जल्मताच मरण आयलें. जवाहराचे बायलेन हेर कुटुबियांवांगडा स्वातंत्र्यसंग्रामांत वांटो घेतलो. बंदखणींतली जीण आनी क्षयरोग हांकां लागून १९३६ वर्सा तिका मरण आयलें.

डिसेंबर १९१२त बिहारांतल्या बांकिपूर ह्या शारांत राश्ट्रीय सभेचें अधिवेशन भरिल्लें. जवाहर ह्या अधिवेशनाक एक सामान्य प्रतिनिधी म्हणून हाजीर आशिल्लो. हांगाच ताणें न्या. गोखलेचें भाशण आयकलें आनी तो प्रभावीत जालो. १९१६ वर्सा लखनौचे राश्ट्रीय सभेक गेल्लो थंय महात्मा गांधीकडेन ताची पयली भेट जाली. तेन्ना सावन जवाहराच्या राजकीय कार्याक व्यापक बसका आनी निश्चीत दिशा मेळ्ळी. ब्रिटीश साम्राज्यशाय बळिश्ट आसली तरी लेगीत अहिंसात्मक मार्गान पूण निर्भयपणान तिका लढो दिवपाक जाय असो आगळो मार्ग गांधीजीन दाखयलो. ह्या गांधीच्या सुत्रान, जवाहर ताचेकडेन चड आकर्शीत जालो. ब्रिटीश सरकाराकडेन झुजतना भंय वा दुस्वासाक थारो दिवप ना हो गांधीजीचो दंडकूय जवाहराक पटलो. गांधीजीच्या असहकार आंदोलनांत १९२१ वर्सा पयले फावट जवाहर बंदखणींत गेलो. तेन्नासावन फुडल्या २५ वर्सांमदीं तो कितलेशेच फावट बंदखणींत गेलो आनी सुमार १५ वर्सां ताणें बंदखण भोगली. जवाहराक पयलीं१९२३ वर्सा कॉंग्रसीचे सरचिटणीसपद मेळ्ळें. दोन वर्सां ताणें हें पद सांबाळ्ळें. ह्या काळांत तो अलाहाबाद नगरपालिकेचोय अध्यक्ष आशिल्लो. पूण पक्षाचें कार्य चड म्हत्वाचें दिशिल्ल्यान ताणें अध्यक्षपदाक सोडचीट दिली. ह्याच काळांत ताची बायल दुयेंत पडिल्ल्यान तिका वखदी उपचार आनी हवापालट करपापासत जवाहर स्वित्झर्लंडाक गेलो. हे भोंवडेंत ताणें फ्रांस, जर्मनी, इंग्लंड ह्या राश्ट्रांक भेटी दिवन थंयच्या क्रांतीकारक फुडाऱ्यांवांगडा स्वातंत्र्यझुजाविशींचो नदरेकोन समजावन घेतलो. युरोपांतले मजूर चळवळीन ताचें लक्ष ओडून घेतलें आनी ताका लागून ताणें तिचो बारकायेन अभ्यास केलो. १९२७ वर्सा भारतांत परत येतकूच ताका कॉंग्रसीच्या सरचिटणीसपदाची जापसलदारकी आनी दोन वर्सा सांबाळची पडली.

युरोपांत ब्रुसेल्साक १९२७ वर्सा भरिल्ले परतंत्र राश्ट्रांचे परिशदेंत भारताचो प्रतिनिधी म्हणून नेहरू हाजीर आशिल्लो. युरोपांतल्या ह्या दौऱ्या उपरांत, राश्ट्रवाद संकुचीत आसून ताका आतां आंतरराश्ट्रीय विचारांची गरज आसा अशी जाणविकाय जाली.

जवाहर भारतांत परतलो त्या वेळार सायमन आयोगाआड सगळ्याक निदर्शनां चलतालीं. लखनौक जवाहरान निदर्शनाचें फुडारपण केलें. बोस आनी हेर तरणाट्यांच्या आदारान जवाहरान 'इंडियन इंडिपँडॅन्स यूथ लीग' ही संस्था काडून देशभर पुराय स्वातंत्र्याच्या ध्येयाचो प्रचार आनी प्रसार केलो. १९२९वर्सा लाहोराक काँग्रेसीची अध्यक्षपदाचेर ताची नेमणूक जाली. रावी न्हंयेचे देगेर जवाहराच्या फुडारपणाखाल राश्ट्रान पुराय स्वातंत्र्याची प्रतिज्ञा केली आनी १४ ऑगस्ट १९४७चे मध्यान रातीं जवाहराच्या फुडारपणाखालूच हे प्रतिज्ञेची समाप्ती केली.

अखिल भारतीय ट्रेड युनियन काँगेसीचो जवाहर अध्यक्ष जालो आनी भारतांतले संघटीत कामगार चळवळींकडेन ताचो लागींचो संबंद आयलो. काँग्रेसीचो अध्यक्ष ह्या नात्यान ताणें देशभर भोंवडी केली. १९३० वर्सा गांधीजीन दांडी यात्रा करून सुरू केल्ल्या मिठाच्या सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्ल्यान, जवाहराक बंदखण भोगची पडली. १९३३ वर्सा ताका नाभा संस्थान सोडून वचपाचो हुकूम मेळ्ळो, तेन्नासावन ताणें संस्थानी प्रजेचे चळवळिंतूय वांटो घेवपाक सुरवात केली. उपरांत तो अखिल भारतीय संस्थांनी प्रजा परिशदेचो अध्यक्ष जालो.

१९३६ वर्सा लखनौ काँगेसीच्या अध्यक्षपदावयल्यान जवाहरान समाजवादाचो पुरस्कार केलो. ह्याच वर्सा काँग्रेसीन प्रांतिक कायदे मंडळाच्यो वेंचणुको घेतल्यो. चड करून जवाहराचे भोंवडेक लागून काँग्रेसीक भरपूर येस मेळ्ळें. ह्या काळांत युरोपांत मुसोलिनीचो फॅसिझम आनी हिटलराचो नाझीझम ह्या दोन विखारी तत्त्वज्ञानांचो वाद चलतालो. फॅसिझम आनी नाझीवादाचे लोकांचेर जावपी वायट परिणाम जवाहरान बरोबर ताडले आनी भारतीय जनतेक सादूर करून शिक्षण दिवपाचें कार्य केलें. त्या काळांत संघर्श युरोप पळोवपापासत १९३८त जवाहर युरोपांत गेलो. स्पेन, इंग्लंड, फ्रांस, चॅकोस्लोवाकिया, जिनिवा, कायरो ह्या विंगड विंगड सुवातींनी वचून थंयची परिस्थिती ताणें जाणून घेतली.

१९३९च्या सप्टेंबरांत युरोपांत दुसरें म्हाझूज सुरू जालें. भारतांत आनी काँग्रेसीमुखार नवो पेंच तयार जालो. त्या काळांतलो ब्रिटीश व्हायसरॉय लॉर्ड लिनलिथगो हाणें भारतीय फुडाऱ्यांक विचारिनासतना, भारताक झुजांत घुस्पायलो. तेखातीर काँग्रेस मंत्रीमंडळांनी राजिनामे दिले. १९४० वर्सा गांधीजीन वैयक्तिक सत्याग्रह सुरू केलो. दुसऱ्या क्रमांकाचो सत्याग्रही म्हणून जवाहराची नेमणूक जाली. जवाहराक अटक जावन चार वर्सांची ख्यास्त फर्मायली. पूण एका वर्सा उपरांत हेर काँग्रेस फुडाऱ्या वांगडा ताचीय सुटका जाली. १९४२त झुजांत ब्रिटनाची स्थिती कठीण जाली, तेन्ना भारतांत राजकीय तडजोड घडोवन हाडपापासत ब्रिटीश सरकारान क्रिप्स हाका धाडलो. पूण ही शिश्टाय सफळ जाली ना. ८ ऑगस्ट १९४२ दिसा अखिल भारतीय काँग्रेस वर्किंग कमिटीच्या मुंबयच्या खास अधिवेशनांत जवाहरलालान 'छोडो भारत' आंदोलनाचो प्रस्ताव मांडलो. थाराव मंजुर जायनाफुडें रातोरात गांधीजीसयत सगळ्या फुडाऱ्यांक अटक जाली. जवाहरलालाक वर्किंग कमिटीच्या वांगड्यांसयत अहमदनगर किल्ल्यांत बंदिस्त केलो. थंयसावन १५ जून १९४५ दिसा ताची सुटका जाली.

१९४६ वर्सा ब्रिटनांत वेंचणुको जावन मजूर पक्ष सत्तेर आयलो. ताका लागून भारतीय स्वातंत्र्याच्या प्रस्नाक गती मेळ्ळी. हो प्रस्न सोडोवपाखातीर तीन मंत्र्यांचें एक शिश्टमंडळ नेमून तातूंत भारताचे नवे राज्यघटनेची येवजण सुचयली. काँग्रेसीक ही येवजण मान्य आशिल्ली पूण मुस्लीम लीगान ती न्हयकारली. परत नव्यो वेंचणुको घेतल्यो. तेन्ना मुस्लीम लीगान मुसलमानांचे चडशे सगळे जागे जिखले. व्हायसरॉय लॉर्ड व्हेवॅल हाणें जुलय १९४६त जवाहर नेहरूक हंगामी सरकार करपापासत पाचारण केलो. मुस्लीम लीगान पयलीं ह्या सरकारांत आपलो आस्पाव केलो पूण उपरांत तिणें आपले प्रतिनिधी ह्या सरकारांत धाडले. प्रांतिक कायदेमंडळांनी वेंचून दिल्ले संविधान परिशदेंत मात लीगान वांटो घेतलो ना. बंगालांत आनी हेरकडेन भिरांकूळ दंगे जाले. निमाणें मुसलमान वसती आशिल्लो प्रांत पाकिस्तान म्हणून तोडून दिवन उरिल्लया वाठाराचेर हिंदूंचें राज्य उरचें अशी येवजण मुखार आयली. सुर्वेकसावन नेहरूचो फाळणेक विरोध आशिल्लो. जिनाचो द्विराष्ट्र सिद्धांत ताका मान्य नाशिल्लो. पूण लॉर्ड माउंट बॅटन हाणें नेहरूची समजूत काडून ही येवजण मानपाक लायली. उपरांत देशांतली परिस्थिती मतींत घेवन नेहरू आनी वल्लभभाई पटेल हाणीं आपलें मत बदललें आनी फाळणेक मान्यताय दिली. अशे तरेन देशाची फाळणी जावन १५ ऑगस्ट १९४७ दिसा भारत स्वतंत्र जालो आनी जवाहरलाल हो स्वतंत्र भारताचो पयलो प्रधानमंत्री जालो.

स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत सतरा वर्सां प्रधानमंत्री पदावयल्यान नेहरून राज्यकारभार सांबाळ्ळो. ह्या काळांत निर्वासितांचें पुनर्वसन, काश्मीराचेर पाकिस्तानाचें आक्रमण, हैदराबादचो निजाम आनी गोंयांतली पुर्तुगेज सत्ता हांचेआड कारवायो अशा सगळ्या प्रस्नांचेर जैत जोडून भारतीय संमत केल्ले राज्य घटने प्रमाण संसदीय लोकशायेची प्रतिनिधींनी प्रतिश्ठापना आनी संवर्धन करपांत नेहरूचो मोलादीक वांटो आसा. ताच्याच फुडाकारान देशाचे जलद अर्थीक उदरगतीखातीर १९५२ वर्सासावन पांच वर्सुकी येवजण सुरू जाली. हे येवजणेक लागून देशांतल्या उद्देगीकरणाची बुन्याद घाली. नेहरून समाजवादी समाजरचनेचें ध्येय काँग्रेस पक्षाक दिलें. भौशीक क्षेत्रांभाशेन ख़ाजगी क्षेत्रांकूय नेहरून उर्बा दिली.

हिंदू कोडबिल मंजूर जावन हिंदू बायलांक वारसो हक्क तेचप्रमाण घटस्फोटाचे हक्क मेळ्ळे. संविधानांत अस्पृश्यताय काबार करपाची तरतूद जाली. व्हड व्हड धरणांचे, कारखान्याचे प्रकल्प पुराय करपापासत ताणें पद्दतशीर येवजणो आंखल्यो.

१९४८ वर्सा काश्मीरांत घुसखोर धाडून काश्मीर बळकावपाचो पाकिस्तानाचो बेत आशिल्लो. पूण जवाहरलाल नेहरून काश्मिरांत सैन्य धाडून पाकिस्तानाचें आक्रमण थांबयलें आनी काश्मीर प्रस्न संयुक्त राश्ट्रांकडेन दिलो. पूण प्रस्न सुटलोना. पाकिस्तानचो व्यापिल्लो आझाद काश्मीर वाठार पाकिस्तानाच्या ताब्यांत उरलो आनी काश्मीराक लागून जावपी पाक-भारत संघर्श तसोच उरलो. भारतांतल्या वसणुकवादाचे सगळे अवशेश ना करपापासत नेहरून वाटाघाटी करून फ्रँचांच्या ताब्यांतलें पाँडिचेरीसारक्या विभागाचें विलीनीकरण घडोवन हाडलें. पुर्तुगेजांकडेन वाटाघाटी करून गोंयचो प्रस्न सोडोवपापासत ताणें बारा-तेरा वर्सां यत्न केले. निमाणें सैन्य धाडून गोंय स्वतंत्र करचें पडलें (१९६१). स्वतंत्र गोंयाक ताणें २२ मे १९६३ वर्सा शिक्षण आनी तंत्रज्ञानाच्या प्रसाराखातीर ताणें देशांत संशोधन संस्था आनी राश्ट्रीय प्रयोगशाळांची स्थापणूक केली. ताचेच उर्बेन भारतांत अणूसंशोधन केंद्र स्थापन जालें.

व्हायसरॉय लॉर्ड व्हेवॅल हाच्या हंगामी सरकाराचो मुखेल ह्या नात्यान पयलें भाशण करतना, नेहरून स्वतंत्र राश्ट्रीय धोरणाची घोशणा केल्ली. ह्या काळांतूच ताणें पयली आशियी परिशद घडोवन हाडली (१९४७).

इंडोनेशियांतल्या स्वातंत्र्यझुजाक फाटबळ दिवपाखातीर नेहरून दुसरी आशियी परिशद भरयली (१९४९). तिसरी परिशद १९५५ वर्सा इंडोनेशियांत बांडुंग शारांत जाली.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत आंतरराश्ट्रीय राजकारणांत अमेरिकाप्रणीत अस्तंती राश्ट्रांचो आनी रशियाप्रणीत साम्यवादी देशांचो अशा दोन गटांभितर ताण निर्माण जालो. नेहरून युगोस्लावाकियाचो अध्यक्ष टिटो आनी इजिप्ताचो अध्यक्ष नासेर हांच्या आदारान अलिप्ततायवादी राश्ट्रांचो वेगळो गट प्रस्थापीत करून शांततायेचो नेट धरलो.

१९५८वर्सा चीनान, भारताचो आक्साय चीनाचो वाठार बळकावपाक सुरवात केल्ली. चीनाचे इश्टागतीचेर नेहरूचो पुराय भरवसो आशिल्लो. पूण ह्या प्रस्नाचेर कितल्योशोच वाटाघाटी जावन निमाणें तडजोड जालीच ना आनी ऑक्टोबर १९६२त चीनान भारताचेर आक्रमण केलें. हे घडणुकेन नेहरूक खूब दुख्ख जालें.

नेहरून आपलें चडशें लिखाण बंदखणीतूच केलें. ग्लिम्प्सिस ऑफ वर्ल्ड हिस्टरी (१९३९), जवाहरलाल नेहरूः ॲन ऑटोबायॉग्राफी (१९३६) आनी डिस्कवरी ऑफ इंडीया (१९४५) हे नेहरूचे तीन मुखेल म्हत्वाचे ग्रंथ मानतात. बंदखणींत लिखाण केल्ल्यान ताका मूळ संदर्भ ग्रंथ, कागदपत्रां वा हेर साहित्याचो उपेग करपाक मेळ्ळोना.

ग्लिम्प्सिस ऑफ वर्ल्ड हिस्टरी हो ग्रंथ ताणें चड करून आपली धूव 'प्रियदर्शनी इंदिरा हिचेखातीर' बरयलो. तिका बरयल्ल्या पत्रांचें तें संकलन. ह्या ग्रंथांत ताची इतिहासाकडेन पळोवपाची शिक्षणीक नदर दिश्टी पडटा. ह्या ग्रंथांत इतिहासावांगडा ताणें कला, विज्ञान, इतिहासीक व्यक्ती, संस्कृताय हांचोय नियाळ केला.

'जवाहरलाल नेहरू : ॲन ऑटोबायॉग्रफी' ह्या आत्मचरित्रांत ताणें १९३६ मेरेनचे जिणेचो नियाळ केला. आवय, बापूय, भयण, बायल, हांच्रेविशीं तशेंच बंदखणींतले इश्ट, सेवक, मोनजात हांचे विशींय ताणें आपलेपणान बरयलां. म. गांधी, राजेंद्रबाबू, पटेल, सुभाषचंद्र ह्या आपल्या सहकाऱ्यांविशीं सगळी म्हायती ताणें सुर्वेच्या तीन-चार प्रकरणांनी बरयल्या. उपरांत स्वातंत्र्य संग्रामाकडेन घुवून, आपलें नेतृत्व, काँग्रेसीचें कार्य आनी अधिवेशनां हांचोय इतिहास विस्तारान दिला. नेहरूच्या ह्या आत्मचरित्राच्यो कितल्योशोच आवृत्त्यो आयल्यो.

डिस्कवरी ऑफ इंडिया ह्या ग्रंथांत नेहरून इतिहासीक घडणुकांची आनी व्यक्तींची शोधक विस्कटावणी केल्या. ह्या ग्रंथाचो पुर्वार्ध ब्रिटिशांचे पयलींचें इतिहासीक विवेचन आसून उत्तरार्धांत इंग्लीश अंमल संवसारीक अतिभौतिक आनी विचारीक क्रांती, दोन म्हाझुजां, भारतीय-अर्थीक राजकीय आंदोलनां, काँग्रेसची वाड, टिळक, गांधी, टागोर हांचें व्हडपण आनी कार्य, हिंदू - मुसलमान हांचेमदलो भेद, समाजवादाचो उदय, राश्ट्रीय नियोजन वेवस्था, धर्म, ज्ञान, भौतीक शास्त्रां अशा विशयांचें तात्त्विक आनी इतिहासीक विवेचन केलां.

लॅटर्स फ्रॉम ए फादर टू हिज डॉटर (१९२९) आनी 'ए बंच ऑफ ओल्ड लेटर्स' (१९५८) हीं नेहरूचीं आनीक दोन पुस्तकां, ह्या पुस्तकांनी नेहरून मोतीलाल, विजयालक्ष्मी पंडित, कृष्णा हाथिसिंग, इंदिरा गांधी हांकां तशेंच संवसारांतल्या ल्हान-व्हड व्यक्तींक बरयल्लीं पत्रां आनी जापो आसात.

अखिल भारतीय काँग्रेसीचो पांच खेपे अध्यक्ष जावपी नेहरू हो एकूच फुडारी. १९५५ वर्सा देशांतलो 'भारतरत्न' हो भोवमानादीक पुरस्कार नेहरूक फावो जालो. आफ्रो-आशियी देशांचें स्वातंत्र्य आनी संघटना अलिप्ततायवादाचें धोरण आनी पंचशील तत्त्व हांचो पुरस्कार करून ताणें आंतरराश्ट्रीय सामंजस्य आनी शांतताय राखपाखातीर खूब कश्ट घेतले.

– कों. वि. सं. मं.

## नेहरू, मोतीलाल गंगाधर :

(जल्म : ६ मे १८६१, आग्रा; मरण : ६ फेब्रुवारी १९३१, लखनौ).

भारतीय स्वातंत्र्य - चळवळींतलो एक श्रेश्ठ फुड्डारी. स्वराज्य पक्षाचो संस्थापक वांगडी. एक नामनेचो कायदेपंडीत.

नेहरूचें घराणें काश्मीरी ब्राह्मणांचें. ताचें मूळ आडनांव राजकौल. औरंगजेबाच्या मरणाउपरांत नेहरूंचो एक पुर्वज दिल्लीक येवन स्थायीक जालो. तेन्ना त्या वेळावयलो मोगल बादशाहा फर्रुखसिअर हाणें ताका एक जहागीर आनी खारजाचे देगेर एक घर दिलें. पार्शियी भाशेंत खारजाक नहर म्हण्टात. ताचेवयल्यान फुडें ताका नेहरू हें नांव पडलें आसुंये.१८५७च्या स्वातंत्र्य-संग्रामाच्या वेळार मोतीलालाचो बापूय गंगाधर दिल्लीसावन आग्राक गेलो. थंय मोतीलालाचो जल्म जालो.

मोतीलालाचो आजो लक्ष्मीनारायण हो दिल्ली दरबारांत इस्ट इंडिया कंपनीचो वकील आशिल्लो आनी बापूय गंगाधर दिल्लीचो कोतवाल आशिल्लो. १८५७च्या उठावांत नेहरू घराण्याचें खूब अर्थीक नुकसान जालें आनी ताणीं आग्राक स्थलांतर केलें. ताचे आवयचें नांव जीऊराणी आनी व्हडल्या भावाचें नांव नंदलाल.

बापायच्या मरणाउपरांत तीन म्हयन्यांनी मोतीलालाचो जल्म जालो. आवय आनी भावान ताका शिक्षण दिलें. नंदलाल हो त्या वेळार खेत्री संस्थानांत दिवाण आशिल्लो. फुडें ताणें कायद्याचो अभ्यास करून वकिली सुरू केली. आग्राचें उच्च न्यायालय अलाहाबादेक हालयतकूच नेहरू कुंटूंब आग्राक स्थायीक जालें.

मोतीलालाचें मुळावें शिक्षण खेत्रीक जालें. फुडलें शिक्षण ताणें कानपूर आनी अलाहाबादेक घेतलें. बी ए. चें शिक्षण अर्दवट सोडून ताणें १८८३ वर्सा वकिलीची परीक्षा दिली. पयलीं कांय तेंप कानपुराक वकिली करतकूच उपरांत ताणें अलाहाबादेक नंदलालाच्या हाताखाल वकिली सुरू केली. शिकता आसतनाच ताचें पयलें लग्न जालें; पूण ताची बायल आनी पूत मरतकूच तो दुसरें लग्न जालो. ते बायलेचें नांव स्वरुपराणी. तिका चार भुरगीं जालीं. पयलो पूत रोखडोच मेलो. दुसरो पूत जवाहर, उपरांत स्वरुपकुमारी वा विजयालक्ष्मी आनी कृष्णा ह्यो ताच्यो धुवो.

जवाहरलाल स्वतंत्र भारताचो पयलो प्रधानमंत्री जालो आनी विजयालक्ष्मी पंडित ही संयुक्त आमसभेची पयली अध्यक्ष.

सुरवातीक मोतीलालान वकिलीबगर किदयांतूच लक्ष घालें ना. बंगालचे फाळणीउपरांत काँग्रेसींत मवाळ आनी जहाल अशे दोन गट पडले. १९०७त जेन्ना हो वाद चड खतखतून आयलो तेन्ना मोतीलाल मवाळ गटाकडेन प्रभावीत जालो. मवाळांचें काँग्रेसींत मताधिक्य आशिल्ल्यान मोतीलाल संयुक्त प्रांताचे काँग्रेस कमिटीचो अध्यक्ष जालो. तेच भाशेन म्युनिसिपल बोर्डाचो वांगडी, मिंटो मॅमोरियल कमिटीचो सचीव, प्रयाग सेवा समितीचो उपाध्यक्ष म्हणुनूय ताचें काम चालूच आशिल्लें. होमरूल लीगचे स्थापणुके उपरांत १९१७ वर्सा ताचे खरे राजकीय जिणेक

सुरवात जाली. ह्या वेळार बॅझंट हिचे वटेन तो सरकाराआड उबो रावलो. अलाहाबाद होमरुल फांट्याचो तो अध्यक्ष जालो.

कांय वर्सां उपरांत पंजाबांत, जालियनवाला बागेंत रौलंट अ‍ॅक्टाचो निशेध करपाखातीर भरिल्ले सभेंत जनरल डायरान फारपेट केलो. तेन्ना ह्या हत्याकाडांत भारतीयांची कत्तल जाली. ह्या हत्याकांडाची चवकशी जावपाखातीर जी समिती नेमली ते समितीचो मोतीलाल एक मुखेल वांगडी आशिल्लो. ह्या वेळार मोतीलालान आपले नेमस्त विचारसरणीचें 'लिडर' नांवाचें नेमाळें बंद करून फेब्रुवारी १९१९ वर्सा 'इंडॅपॅंडंट' हें दुसरें नेमाळें सुरू केलें. त्याच वर्सा तो अमृतसर काँग्रेसीचो अध्यक्ष जालो.

ताची वकिली बरी चलिल्ली आनी येणावळूय बरी आशिल्ली. ताणें अलाहाबादेक बंगलो बांदलो. तांचें रावप अस्तंती पद्दतीचें आशिल्लें आनी शिकार करप, टॅनीस खेळप, पेंवप हे खेळ, उंची कपडे वापरप, बरो सोरो आनी जेवण घेवप तशेंच वेंचीक इश्टांचो सांगात हो ताचो छंद आशिल्लो.

म. गांधीकडेन जाल्ले भेटी उपरांत ताच्यांत बदल घडून आयलो. १९२०च्या नागपूर काँग्रेसीन असहकार चळवळीचो पुरस्कार केलो. तेन्ना हेर कार्यकर्त्यांभाशेन मोतीलालान आपली विलासी वृत्ती सोडून सादें रावप आपणायलें. तशेंच, वकिली सोडली आनी आपल्याक चळवळींत ओंपून घेतले. तेखातीर ६ डिसेंबर १९२१ दिसा अटक जावन नैनितालचे बंदखणींत ताका 'स' म्हयने ख्यास्त भोगची पडली. उपरांत १९२३ वर्सा चित्तरंजन दास हाच्या सहकारान ताणें स्वराज्य पक्षाची स्थापणूक केली. १९२७ वर्सा सायमन आयोगाआड लोकमत तयार करपाखातीर ताणें खूब वावर केलो. त्याच सुमाराक सगळ्या पक्षांच्या नेत्यांची सभा जावन स्वराज्याचो एक आराखडो तयार करपाखातीर एक समिती नेमली. हे समितींत मोतीलाल, तेजबहादूर सप्रू, लोकनायक अणे, सुभाषचंद्र बोस, एम्. आर. जयकर, अली इमाम प्रभृती ह्या विद्वानांची नेमणूक जाली. हे समितीन जो स्वराज्याचो आराखडो तयार केलो तोच नेहरू अहवाल म्हणून प्रसिद्ध आसा.

१९२८ वर्सा मोतीलाल कलकत्ता काँग्रेसीचो अध्यक्ष जालो. ताच्या फुडारपणाखालचे राष्ट्रीय काँग्रेसीन वसणुकेच्या स्वराज्याची मागणी केली. ब्रिटिशांनी एका वर्साभितर ही मागणी पुराय केली ना जाल्यार पुराय स्वातंत्र्याची मागणी करपाचें थारायलें. १९२९ वर्साच्या लाहोर काँग्रेस अधिवेशनांत जवाहरलालाक अध्यक्षपद मेळ्ळें आनी ताणें पुराय स्वातंत्र्याची मागणी केली. उपरांत १९३० वर्सा महात्मा गांधीच्या दांडी सत्याग्रहाच्या वेळार ब्रिटिशांनी परत राष्ट्रीय फुडाऱ्यांक अटक केली. तेन्ना मोतीलालाक परत बंदखण भोगची पडली. बंदखणींत ताका दम्याचो खूब त्रास जालो म्हणून ताची सुटका केली. लखनौ हॉस्पिटलांत दवरिल्लेकडेन ताका मरण आयलें.

– कों. वि. सं. मं

**नैर्ऋत्य :** (पळेयात दिशा).

**नैषधीयचरित्र :** एक संस्कृत महाकाव्य. संस्कृत पंचमहाकाव्यांतलें हें सगळ्यांत व्हडलें आनी निमाणें काव्य. ह्या काव्याक नैषधचरित, नैषधकाव्य वा नैषध ह्या नांवांनीय वळखतात. श्रीहर्ष नांवाच्या कवीन हें महाकाव्य रचलें. त्या काळांत संस्कृत पंडितांभितर श्रीहर्षाक उंचेली सुवात आशिल्ली. तो जयचंद राठोड ह्या राजाचो आश्रित आशिल्लो. त्या राजाचे प्रेरणेनूच श्रीहर्ष हाणें हें महाकाव्य बरयलें. श्रीहर्षाच्या ह्या काव्यांत तरातरांचे शब्दालंकार, अर्थालंकारांसयत वैद्यक, कामशास्त्र, राजशास्त्र, धर्म, न्याय, ज्योतीश, व्याकरण, वेदान्त अशें सगळ्या तरांचें परंपरागत शास्त्रीय ज्ञान भरलां. तेखातीर ह्या काव्याक 'शास्त्रकाव्य' अशेंय म्हण्टात.

श्रीहर्षाचो काळ हो बाराव्या शेंकडयाचो उत्तरार्ध अशें अभ्यासकांचें मत आसा. श्रीहर्षान जी नलकथा महाकाव्यांत बरयल्या, तीच कथा महाभारतांत एका उपाख्यानाच्या रुपांत आसा. ती कथा ताणें महाभारतांतल्यान घेवन तिका आपले प्रतिभाशक्तीन एका महाकाव्याचो आकार दिलो. नलचरित्र हें नल आनी दमयंती ह्या जोडप्याचें व्हड चरित्र.

नलोपाख्यानांतली कथा श्रीहर्षान तशीच दवरल्या, पूण कांय नवे प्रसंग घालून, तांचीं वर्णनां ताणें विस्तारान बरयल्यांत. ताका लागून हें काव्य खूब व्हड जालां.

नैषधीयचरिताची कथा थोडे भितर अशी आसा - नल नांवाचो एक पुण्यश्लोक आनी महाप्रतापी राजा निषध देशांत राज्य करतालो. तो व्हड विद्वान आनी उदार आशिल्लो. तशेंच तो रुपेस्त आनी कुडीन धश्टपुश्ट आशिल्लो.

दमयंती ही विदर्भाधिपती भीम राजाची कन्या. तिणें एक दीस नलाच्या रूप-गुणांची कीर्त आयकली आनी तेन्नासावन ती नलाचेर मोग करूंक लागली. हांव लग्न जाल्यार नलावांगडाच असो तिणें निश्चेव केलो. ह्याच काळांत दमयंतीच्या रुपाची कीर्त नलाच्या कानार पावली. तिका पळय नासतना नलाचें मन तिचेर जडलें.

एक दीस तो नगरालागसारचे बागेंत भोवपाक गेल्लेकडेन थंयच्या तळ्यांत ताका एक भांगराचो हंस दिसलो. ताका नलराजान धरलो. पूण त्या हंसान, आपल्याक सोडपाची विनंती करतकूच राजान ताका सोडलो. नलराजाचें हें उदार अंतस्करण पळोवन हंसान थारायलें, ह्या राजाचें कसलेंय बरें काम करप. तेखातीर तो दमयंतीकडेन गेलो आनी नलराजाचे ताणें खूब गूण गायले. दमयंतीय नलराजाचेर मोग करता हें कळटकूच तो नलराजाकडेन आयलो आनी ताणें नलाक तशें सांगलें.

एक दीस दमयंतीच्या बापायन दमयंतीचें स्वयंवर थरयलें. हेर राजावांगडा इंद्र, अग्नी, यम आनी वरूण हे देव लेगीत स्वयंवराक आयले. पूण नलराजाचें तेज, तारुण्य आनी सौंदर्य पळोवन ह्या देवांनी ताडलें की दमयंती नलाक सोडून हेर कोणाकूच पळोवंचीना तेखातीर इंद्रान नलाच्या उदारपणाचो फायदो घेवन तांचो दूत जावपाची नला कडेन मागणी केली. नलान ताची विनंती मान्य केली आनी तांचो दूत जावन दमयंतीम्हन्यान गेलो. ताणें आपले परीन तिका तांचे भितरल्या कोणायकडेन लग्न जावपाची विनंती केली. पूण तिचो नलावांगडाच लग्न जावपाचो निश्चेव पळोवन नलान आपलें खरें रूप तिका दाखयलें. तें पळोवन दमयंती खुशालभरीत जाली.

दुसऱ्या दिसा स्वयंवरमंडपांत सगळ्या देशांचे राजपुत्र येवन बसले. नलराजाय आयलो. इंद्र, अग्नी, यम, वरूण हे देव नलाचें रूप घेवन बसले. पूण नलराजाक अचूक पारखून दमयंतीन नलराजाच्या गळ्यांत माळ घाली. उपरांत शुभमूर्त पळोवन तांचें लग्न जालें.

उपरांत कलीचें देवांवांगडा जाल्लें तत्त्वीक वाग्युध्द, हे सगळे प्रसंग

श्रीहर्षान ह्या नैषधीयचरित्रांत विस्तारान वर्णिल्यात. शंबरांपरस चड श्लोकांची एक पुराय सातवो सर्ग ताणें दमयंतीच्या रूपाच्या वर्णनाचेर बरयला. तशेंच दमयंतीच्या स्वयंवरवर्णनाचेर सुमार ५०० श्लोक कवीन बरयल्यात. सतराव्या सर्गांतल्या २२१ श्लोकांतले, सुमार २१० श्लोक अद्वैतवेदान्ताचे तोखणायेचेर आसात.

ह्या म्हाकाव्याची कथा जरी महाभारतांतल्या नलोपाख्यानाचेर आदारिल्ली आसली तरी नलोपाख्यान हें ल्हान म्हळ्यार २०० परस उण्या श्लोकांचें, पूण नैषधीयचरित हें २२ सर्गांचें आसून तातूंत २,८०० परस चड श्लोक आसात. नलदमयंतीचें स्वयंवर आनी कलीचो नलाचे राजधानींत प्रवेश इतलोच कथाभाग ह्या काव्यांत आयला. हाचेवयल्यान हें काव्य अर्दवट आसा, अशें कांय तज्ञांचें मत आसा. नैषधीयचरित ह्या माथाळ्या वयल्यान श्रीहर्षाक पुराय नलकथा ह्या काव्यांत हाडपाची आशिल्ली अशें दिसता कारण नलकथेच्या उत्तरभागाची फाटभूंय ताणें ह्या काव्यांत तयार करून दवरल्या. नैषधीयचरिताच्या सतराव्या सर्गांत कली, नलदमयंतीची टाटातूट करपाची प्रतिज्ञा करता, पूण उपरांत तो ती प्रतिज्ञा कशी पुराय करता हें श्रीहर्षाक उत्तरभागांत दाखोवपाचें आशिल्लें अशें दिसता. पूण ह्या महाकाव्याचो उत्तरभाग खंयच उपलब्ध ना.

हें महाकाव्य श्रीहर्षान २२ सर्गांनीच पुराय केलां, अशेंय कांय अभ्यासकांचें मत आसा.

नैषधीयचरितांत, सहज अशीं कांय सुभाशितां आयल्यांत. हीं सुभाशितां कवीचे सुसंस्कृत नितीमत्तेचेर उजवाड घालतात. तातुंतलीं कांय सुभाशितां अशीं आसात -

मितं च सारं च वचो हि वाग्मिता (नै. ९.८)

**अर्थ** - मेजकेंच पूण अर्थगर्भीत अशें भाशण हाकाच वक्तृत्व म्हण्टात.

सतां हि चेतः शुचिताऽऽत्मसाक्षिका । (नै ९.१२९)

**अर्थ** - सज्जनांची चित्तशुध्दी ही आत्मसाक्षिक आसता. तिका दुसऱ्याचे साक्षीची गरज नासता.

- कों. वि. सं. मं.

**नोएल, बेकर फिलिप जॉन** : (जल्म : १ नोव्हेंबर १८८९, लंडन; मरण : ऑक्टोबर १९८२, लंडन).

नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो संवसारीक निशस्त्रीकरणाचो पुरस्कर्तो. एका क्वेकर घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताणें बुथेम विद्यालय, हॅवरफर्ड म्हाविद्यालय (पेनसिल्वेनिया) आनी किंग्स म्हाविद्यालय (केंब्रिज विद्यापीठ) ह्या सुवांतीनी आपलें शिक्षण घेतलें. विद्यार्थी आसतनाच तो कॅंब्रीज विद्यापिठांतलो विद्यार्थी संघटनेचो अध्यक्ष आशिल्लो (१९१२). एम. ए. जातकूच तो शिकोवपाचें काम करूंक लागलो. १९१५ त तो आयरिन नोएल हे चलयेकडेन लग्न जालो. १९२६ सावन ताणें तिचें आडनांव आपल्या आडनांवा फाटल्यान लायलें आनी तेन्नासावन ताका नोएल बेकर म्हणून वळखूंक लागले.

१९१२ आनी १९२० वर्सा जाल्ल्या ऑलिंपीक खेळां सर्तींत ताणें वांटो घेतिल्लो तेचपरी १९२४ वर्साच्या ऑलिंपीक खेळां सर्तींत ब्रिटीश वेयामी खेळगड्यांच्या गटाचें ताणें फुडारपण केल्लें.

पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत ताणें फ्रॅंडस ॲम्ब्युलन्स युनिटाचें फुडारपण करून (१९१४) ब्रिटिशांचे वतीन इटली, फ्रांन्स, बेल्जियम आदी देशांतल्या पिडेखोर सैनिकांची सेवा केली. ह्या ताच्या कामाखातीर ताका मॉन्स स्टार हें भांगरापदक मेळ्ळें. १९१९ चे शांतताय परिशदेंत वांटो घेवपी शिश्टमंडळांत तो आशिल्लो. १९१९-२२ ह्या काळांत तो राश्ट्रसंघांतल्या सचिवालयांत सचिव म्हणून आशिल्लो. निर्वासितांचे पुनर्वसणुकेच्या प्रस्नांत रॉबर्ट सेसिल आनी आर्थर हेंडरसन हांकां ताणें आदार दिल्लो. १९३२-३३ च्या जिनिव्हा निशस्त्रकरण सभेंत तो अध्यक्षाचो सहाय्यक आशिल्लो. ताचे आदीं १९२४-२९ ह्या काळांत तो लंडन विद्यापिठांत आंतरराश्ट्रीय संबंद ह्या विशयाचो प्राध्यापक आशिल्लो. फुडें १९२९-३१ ह्या काळांत मजूर पक्षावतीन कॉव्हॅंटी, १९३६-५० ह्या काळांत डर्बी, १९५० उपरांत दक्षिण डर्बी मतदार संघातल्या संसदेंत वेंचून आयलो. १९४५-५१ ह्या काळांत ताणें ॲटलीच्या मंत्रीमंडळांत वेगवेगळ्या पदांचेर काम केलां. १९४५ त ताणें संयुक्त राश्ट्रां हे संवसारीक संघटनेची सनद तयार करपाखातीर मोलादीक वावर केलो.

ताका सात भाशांचें गिन्यान आशिल्लें आनी ताणें आपले निशस्त्रकरणाविशींचे विचार जायत्या पुस्तकांवरवीं तशेंच स्फूटलेखांवरवीं उक्तायल्यात. ताचें 'द जिनिव्हा प्रोटोकॉल (१९२५), डिसआर्मामॅंट (१९२६), द लीग ऑफ नेशन्स ॲट वर्क (१९२६), डिसआर्मामॅंट ॲंड द कुलीज कॉन्फरन्स (१९२७), द आर्म्स रेस : ए प्रोग्राम फॉर वर्ल्ड डिसआर्ममेंट (१९५८) हे ताचे नामनेचे ग्रंथ. हांचे भायर ताणें खासगी शस्त्रास्त्रां निर्माण करपी कारखानदारां विशीं भरपूर लिखाण केलां. संयुक्त राश्ट्रां, ब्रिटीश संसद, राश्ट्र संघ आनी आंतरराश्ट्रीय परिशदांनी ताणें केल्ल्या वावरा खातीर ताका १९५९ वर्साचो संवसारीक शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार दिलो. तेभायर हॉलंड पुरस्कार, आलबॅर श्वायत्झर बुक प्रायझ आनी हेर जायते भोवमानाचे किताब मेळ्ळ्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**नोबॅल पुरस्कार** : डायनामायट आनी हेर स्फोटक पदार्थ सोदून काडपी आल्फ्रॅड बर्नार्ड नोबॅल (२१ ऑक्टोबर १८३३ ते १० डिसेंबर १८९६) ह्या रसायनशास्त्रज्ञ आनी उद्देगपतीच्या नांवान दर वर्सा दितात तो आंतरराश्ट्रीय पुरस्कार. हो पुरस्कार १० डिसेंबर १९०१ सावन आल्फ्रॅड नोबॅल हाचे पांचवे पुण्यतिथी पसून दिवपाक सुरवात जाली. ताच्या इत्सापत्रांतले तरतुदीप्रमाण दर वर्सा पदार्थविज्ञान, रसायनशास्त्र, वैजकीशास्त्र, साहित्य आनी संवसारीक शांतताय कार्य ह्या मळांचेर बरें काम करपी मनशांक (एकत्रीत वा विभागून) वा संस्थांक हो पुरस्कार फावो जाता. १९६९ वर्सा सावन अर्थशास्त्र ह्या विशयांतल्या मोलादीक वावराखातिरूय हो पुरस्कार दिवपाक सुरवात जाली. पदार्थविज्ञान, रसायनशास्त्र आनी अर्थशास्त्र ह्या विशयांचो पुरस्कार स्विडिश ॲकॅडमी ऑफ सायन्सीस हे संस्थेवतीन दितात; वैजकीशास्त्राचो पुरस्कार रॉयल कारोलीन मॅडिको सर्जिकल इन्स्टिट्यूट हे संस्थेवतीन दितात. जाल्यार साहित्याचो पुरस्कार स्विडिश ॲकॅडमी आनी शांततायेचो पुरस्कार स्विडनी पार्लमॅंटान नेमिल्ल्या नॉर्वेजियन नोबॅल कमिटीवतीन दिवप जाता.

साहित्य, विज्ञान, वैजकी, संवसारीक शांततायकार्य आनी अर्थशास्त्र आदी वेगवेगळ्या विशयांनी सुमाराभायर कामगिरी करपी संवसारांतल्या लेखकांक आनी शास्त्रज्ञांक हो पुरस्कार मेळप म्हळ्यार त्या विशयांतलो सगळ्यांत उंचलो भोवमान मेळप अशें मानतात.

ह्या पुरस्काराचो निर्णय थरोवपाखातीर आदीं सांगिल्ले दर एके संस्थेच्या आदाराखातीर ३ ते ५ वांगड्यांची समिती नेमतात. तेभायर उमेदवाराच्या वावराची पुरायेन पळोवणी करपाचे नदरेन पुरस्कार दिवपाक संस्थांक आदार दिवपाखातीर संशोधन संस्था, ग्रंथालयां आदींची स्थापना केल्या. हांकां नोबॅल संस्था अशें म्हण्टात.

कायदेशीर पणान नोंद केल्ल्या आनी पुरस्कार दिवपी संस्थांनी नेमून दिल्ले मनिसूच पुरस्काराखातीर उमेदवारांचीं नांवां सुचोवंक शकतात. आपलें नांव सुचयल्यार तो मनीस पुरस्काराखातीर अपात्र थरता. उमेदवारांचीं नांवां सुचोवपाखातीर हे मनीस पात्र आसतात : आदले नोबॅल पुरस्कार जैतवंत पुरस्कार दिवपी संस्थांचें वांगडी, खास उल्लेख केल्ल्या विद्यापिठांचे आनी म्हाविद्यालयांचे तेचपरी पुरस्कार दिवपी संस्थांनी खास आपयिल्ले त्या त्या मळांवयले हेर संस्थांतले प्राध्यापक. साहित्याच्या पुरस्काराखातीर लेखकांच्या कांय प्रतिनिधीक संघटनांचे (देखीक - पॅन P. E. N.) वांगडी आनी द स्विडिश ॲकॅडेमीकडेन तुळात्मक अशा संस्थांचे (देखीक - स्विडिश ॲकॅडेमी ऑफ लिटरेचर, स्पॅनिश ॲकॅडेमी, फ्रँच ॲकॅडेमी) वांगडी शांततायेच्या पुरस्काराखातीर आंतरराश्ट्रीय स्वरुपाच्या कांय संसदीय आनी हेर संस्थांचे वांगडी उमेदवाराची शिफारस करूंक शकतात. उमेदवाराच्या नांवाची शिफारस फकत मनशांकूच करूंक मेळटा; संस्थेक करूंक मेळना. पूण जायते मनीस एकठांय शिफारस करूंक शकतात.

पयल्या वर्साच्या सप्टेंबर ते डिसेंबरा मेरेन पुरस्कार दिवपी संस्थांकडल्यान अशा पांच मनशांक नांवां सुचोवपाविशीं पत्रां धाडप जाता. ताणीं उमेदवाराचें उजवाडा आयिल्लें साहित्य आनी संबंदीत कागदपत्रांवांगडा आपल्यो शिफारशी १ फेब्रुवारी मेरेन धाडपाच्यो आसतात. १फेब्रुवारी पसून नोबॅल समित्यांचें काम सुरू जाता. उपरांत सप्टेंबर ते ऑक्टोबरांत आपल्यो शिफारशी पुरस्कार दिवपी संस्थांकडेन धाडटात. ह्यो संस्था १५ नोव्हेंबरा मेरेन निमणो निर्णय जाहीर करतात. नांवां सुचवपामेरेन ते निमाण्या निर्णया मेरेन जावपी वाद, भासाभास, मतदान आदी विशीं गुपीत दवरप जाता.

नोबॅल पुरस्काराच्या निर्णया आड दाद मागूंक मेळना. पुरस्कार दिवपी संस्था ह्यो देशांतल्योच आशिल्ल्यान कोणाय खास उमेदवाराविशीं राजकीय आनी अर्थीक दबावाचो तांच्या निर्णयाचेर परिणाम जावंक शकता. सादारणपणान विज्ञानीक आनी वैजकी पुरस्कारांच्या निर्णयांत चडशे मतभेद जाल्ले दिसनात. पूण साहित्य आनी शांतताय ह्या मळांचेर पुरस्कारांच्या निर्णयाविशीं खर मदभेद जावंक शकतात. आतां मेरेन जायते फावटीं शांततायेचो पुरस्कार राखून दवरिल्लो आसा.

दर एका पुरस्काराच्या रुपान एक भांगरा पदक; जैतिवंताचो वावर आनी त्या मळावयलो अधिकार दाखोवपी पत्रिका तशेंच रोख पयशे दिवप जाता. भांगरा पदकाचे एकेवटेन आल्फ्रॅड नोबॅल हाची प्रतिमा आनी दुसरेवटेन त्या त्या मळाचें दर्शकचिन्न आसता. पुरस्काराचे पयशे ३१,००० डॉलर (सुमार ४ लाख रुपया) ते ७२,००० डॉलर (सुमार ९ लाख रुपया) मेरेन उणे चड आसतात. अर्थशास्त्राच्या पुरस्काराची रक्कमूय तितलीच आसून स्विडन मध्यवर्ती बँक तितली रक्कम दर वर्सा नोबॅल प्रतिशठानाक दिता. निधीचे गुंतवणुकीचेर मेळपी उत्पन्नांत बदल जाता अशिल्ल्यान पुरस्काराची रक्कम बदलत आसता. दिवंक नाशिल्ल्या, नाकारिल्ल्या वा थरावीक मुदतींत ना स्विकारिल्ल्या पुरस्काराची रक्कम निधींत एकठांय जाता. तेचपरी नोबॅल प्रतिशठानाक त्या त्या वेळार मेळिल्ल्या पुरस्काराची (देखीक : बाल्झन फाऊंडेशन आनी द न्यूयॉर्क ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस हाचे पुरस्कार, एम्परॅस मॅनॅन पुरस्कार) रक्कमूय निधींत एकठांय जावन निधींत वाड जाता.

नोबॅल पुरस्कार सगळ्यांक उकतो आसून राश्ट्रीयत्व, वंश, धर्म (संप्रदाय) आनी विचारसरणी ह्यो गजाली विचारांत घेनासतना जैतिवंतांची निवड करतात. एका मळावयलो पुरस्कार एका मनशाक वा जायत्या मनशांक संयुक्तपणान दिवंक मेळटा (चडांत चड तीग जाणांक हो पुरस्कार एकठांय मेळिल्लो आसा). तेचपरी एका मनशाक एका परस चड मळांवयल्या वावराखातीर तेचपरी जायते फावटीं पुरस्कार दिवंक मेळटा. देखीक : १) मारी क्यूरी भौतिकशास्त्र (१९०३), रसायनशास्त्र (१९११), २) लायन्स कार्ल पॉलिंग रसायनशास्त्र (१९५४) आनी शांतताय (१९६२) ३) जॉन बारडीन भौतिकशास्त्र (१९५६ आनी १९७२). कांय खेपे फाव तो उमेदवार मेळून वा संवसारीक परिस्थितीक लागून फावो ती म्हायती मेळोवंक आयली ना जाल्यार हे पुरस्कार दिनात. पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत (१९१४-१९) कांय विशयांचे जाल्यार दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून (१९४०-४२) कोणाकूच नोबॅल पुरस्कार दिवंक मेळूंक ना. खंयच्याय मळावयल्या विचारांत आयिल्ल्या सगळ्या मनशांच्या वावराची गुणवत्ता फावो तितली नासल्यार केन्ना केन्नाय तो पुरस्कार दुसऱ्या वर्सा खातीर राखून दवरतात. ताच्या फुडल्या वर्साय अशीच परिस्थिती आसल्यार राखून दवरिल्ल्या पुरस्काराची रक्कम परत निधींत जमा करप अशी तरतूद आसा. राखून दवरिल्ल्या पुरस्काराक लागून एकाच वर्सा एकाच मळावयलीं दोन इनामां (फाटल्या वर्साचें आनी चालू वर्साचें) दिवंक शकतात. देखीक - आंरी बेर्गसाँ हाका १९२७चो साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार १९२८त मेळ्ळो. तेच परी १९७६तलो शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार राखून दवरिल्लो. फुडें १९७७त दोन शांततायेचे पुरस्कार दिले (१९७६ आनी १९७७). खंयचोय पुरस्कार पांच वर्सांतल्यान एके फावटीं तरी दिवंक जाय असो नेम आसा.

सादारणपणान नोबॅल पुरस्कार चड करून मनशाक वा मनशांक दितात. पूण कांय खेपे शांततायेचो पुरस्कार संस्थांकूय दिवप जाला. देखीक - १९०४तलो शांततायेचो पुरस्कार इन्स्टिट्यूट ऑफ इंटरनॅशनल लॉ हे संस्थेक मेळ्ळो. ह्या पुरस्काराखातीर खंयच्याच मनशाची शिफारस ताच्या मरणा उपरांत करूंक मेळना. पुरस्काराखातीर ताका वेंचला, पूण तो घेवच्या आदीं ताका मरण आयलें जाल्यार तो पुरस्कार ताका मरणा उपरांत दितात. देखीक - एरिक ए. कार्लफॅल्ट (१९३१ - साहित्य) डाग हामार्स्कजोल्ड (१९६१ - शांतताय). केन्ना केन्नाय पुरस्कार नाकारप जातात. देखीक - झ्यां पावल द सार्त्र (१९६४ - साहित्य) अशा वेळार सन्मान्य नोबॅल पुरस्कार जैतिवंतांचे वळेरेंत तांचें नांव येताच पूण ते फुडें (नाकारलें) असो उल्लेख करतात.

नोबॅल पुरस्कार दिवपाचो समारंभ दर वर्सा स्टॉकहोमांत स्विडनाच्या राजाचे हस्तुकीं आनी शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार ऑस्लो शारांत आल्फ्रॅड नोबॅल हाचे पुण्यतिथीक १० डिसेंबरा दिसा जाता. चड करून जैतिवंत प्रत्यक्ष हजर रावन हो पुरस्कार घेता. तो प्रत्यक्ष हजर नासल्यार ताच्या देशाचो थंयचो राजदूत हो पुरस्कार घेवंक शकता.

दर एका जैतिवंताक आपल्या पुरस्कार पात्र वावराविशीं निवेदन करपी एक व्याख्यान ह्या स्मृतीदिसापसून स म्हयन्यां भितर दिवंचें

पडटा. ह्या व्याख्यानांक 'नोबॅल लेक्चर्स' म्हण्टात आनी तीं नोबॅल प्रतिश्ठानाच्या Les Prix Nobel ह्या वर्सुकी प्रकाशनांत उजवाडा हाडप जातात. शांतताय पुरस्काराच्या जैतिवंताच्या वावराची म्हायती ऑस्लोंतली पुरस्कार दिवपी संस्था ग्रंथमाळेच्या रुपांत उजवाडा हाडटा.

नोबॅल पुरस्कार हो संवसारांतलो सर्वश्रेश्ट पुरस्कार आसा हातूंत इल्लोय दुबाव ना. ह्या पुरस्काराचें आकर्शणूय शास्त्रज्ञामदीं खूब व्हड आसा. निवड समितीचो निर्णय हो निमाणो निर्णय आनी ताचेर अपील करपाची तरतूद नासली तरी ह्या पुरस्काराच्या वितरणा संबंदी त्या त्या वेळार जाहिरपणान टिका जाल्ली आसा. भौतीकशास्त्र, रसायनशास्त्र, साहित्य आनी संवसारीक शांतताय कार्य ह्या मळांपुरतीच पुरस्काराची मर्यादा उरिल्ल्यान, भूगर्भशास्त्र, संगणकशास्त्र, मानसशास्त्र सारकिल्लीं प्रगत शास्त्रां ह्या पुरस्कारांचे व्याप्तीभायर उरतात.

निवड प्रक्रियेंतल्या उणिवांक लागून कांय खेपे हे पुरस्कार फावो त्या मनशांक मेळूंक नात. शांततायेच्या मळार दोळ्यांत भरपासारकें काम करपी महात्मा गांधीक हो पुरस्कार मेळ्ळोना. पूण ताचें अहिंसा हें तत्त्व घेवन कार्य केल्ल्या सर्गेस्त डॉ. मार्टिन ल्यूथर किंग आनी सिंयोर आडोल्फ पिरिस इस्कीव्हेर हांकां हो पुरस्कार फावो जालो. मर्णा उपरांत पुरस्कार दिवप ना असो नेम आसतनाय एक्सेल कार्ल फॅल्ड (साहित्य) आनी डाग हामार्स्कजोल्ड (शांतताय पुरस्कार) ह्या दोन स्विडनी मनशांखातीर नेमांनी सदळसाण हाडून मरणोत्तर पुरस्कार दिवप जालें.

टॉलस्टॉय, झोला, इस्बेन पाउस्ट, मार्क ट्वेन, जोसेफ कोर्नाल्ड, मेबझीम, ड्रेझर, स्टिण्ड बर्ग सारकिल्या लेखकांक ह्या पुरस्कारांतल्यान वगळप जालां. ज्यां पावल द सार्त्र हाणें नोबॅल पुरस्काराचें तत्त्व आपल्याक पटना जाल्ल्यान ताका फावो जाल्लो १९६४ वर्साचो नोबॅल पुरस्कार स्विकारलो ना. तशेंच ल दूक थो ह्या व्हिएतनामी मनशान संवसारीक शांततायेखातीर फावो जाल्लो विभागून दिल्लो पुरस्कार स्विकारलोना. हो पुरस्कार अमेरिकेच्या हॅन्री किसींजर हाचे वांगडा दिल्लो आशिल्ल्यान आनी हेन्री किसींजर हो व्हिएतनामी झुजांत थंयच्या लोकांक मारपाक कारणीभूत जाल्ल्यान आपूण हो पुरस्कार स्विकारूंक शकना अशें ताणें सांगलें.

सकयल दिल्ल्या कोश्टकांत १९०१ ते १९८९ मेरेन नोबॅल पुरस्कार जिखतल्यांचीं नांवां, देश, वर्स आनी वावराचें नांव दिलां. चडशा पुरस्कार जैतिवंतांविशींच्यो स्वतंत्र नोंदी कोंकणी विश्वकोशांत आसून थंय तांच्या वावराची स्पश्ट म्हायती दिल्ली आसा.

### रसायनशास्त्र

| नांव | देश | वर्स | वावर |
|---|---|---|---|
| अर्नस्ट, रिचर्ड आर् | स्वित्झर्लंड | १९९१ | उंचेल्या तांकीच्या अण्वीक चुंबकीय अनुस्पंदन वर्णपट विकसीत केल्ले खातीर. |
| अऱ्हेनियस, स्वांटे ऑगस्ट | स्विडन | १९०३ | विद्युत्-विच्छेद्य-विगमन सिध्दांत. |
| ॲस्टन, फ्रान्सिस विल्यम | ब्रिटन | १९२२ | द्रव्यमान वर्णपट विज्ञाना विशींचें कार्य; पुर्णांक नेम. |
| आनफिन्सेन, क्रिस्तीआन बोहेमर | अमेरिका | १९७२ | एंझायम रसायनशास्त्रांतलें मूलभूत कार्य. |
| आयगेन, मानफ्रेट | जर्मनी | १९६७ | खूब वेग आशिल्ल्या रसायनीक विक्रियांचो अभ्यास. |
| आल्डर, कूर्ट | जर्मनी | १९५० | डायन संश्लेशणाविशींचे सोद आनी विकास. |
| आल्तमेन, सिडनी | कॅनडा | १९८९ | RNA च्या उत्प्रेरक वावराच्या सोदा खातीर. |
| ऑनसॅगर, लार्स | अमेरिका | १९६८ | अव्युत्क्रमी प्रक्रियांच्या उश्मागतिकेच्या सिद्धांतांतलें पूरक कार्य. |
| ओस्टव्हाल्ट, व्हिल्हेल्म | जर्मनी | १९०९ | उत्प्रेरण, रसायनीक समतोल आनी विक्रिया वेग हेविशींचें मूलभूत कार्य. |
| कारर, पॉल | स्वित्झर्लंड | १९३७ | कॅरोटिनॉयडां, फ्लाविनां आनी जीवनसत्वा हांचें संशोधन. |
| कार्ले, जेरोमी | अमेरिका | १९८५ | रेणुचे त्रिमीतीय रचणुकेची पारख करपाक गणितीय पद्दत आंखिल्लेखातीर. |
| कॉरे, एलियस जेम्स | अमेरिका | १९९० | कार्बनी संश्लेशणाच्या यंत्रणेचो सोद लायिल्लेखातीर. |
| कून, रिकार्ड | जर्मनी | १९३८ | कॅरोटिनॉयडां आनी जीवनसत्वां हांचें संशोधन. |
| केंड्र्यु, जॉन काउड्री | ब्रिटन | १९६२ | हीमोप्रथिनांच्या संरचनाची निश्चीती. |
| कॅल्व्हिन, मॅल्व्हिन | अमेरिका | १९६१ | प्रकाशसंश्लेशणांतल्या रसायनीक टप्प्याचो अभ्यास |
| कॉर्नफोर्थ, जॉन वॉरकप | ब्रिटन | १९७५ | जैव प्रक्रिया समजुपाचे नदरेन मुलभूत कार्य. |
| क्युरी, मारी | फ्रांस | १९११ | रेडियम आनी पोलोनियम हांचो सोद; रेडियम वेगळें काडप. |
| क्रॅम, डोनाल्ड | अमेरिका | १९८७ | हार्मोन्स आनी हेर कार्बनी पदार्थांच्या वर्तनासारके कृत्रीम रेणु तयार केल्ले खातीर. |
| क्लूग, आओरान | ब्रिटन | १९८२ | स्फटीक शास्त्राची इलेक्ट्रोन सुक्ष्मदर्शीय पद्दत विकसीत केल्ले खातीर. |
| गिल्बर्ट, वॉल्टर | अमेरिका | १९८० | न्युक्लीयीक आम्लाच्या बुन्यादी सरपळेची पारख केल्ले खातीर. |
| गिर्नाड, व्हिक्टर | फ्रांस | १९१२ | ग्रिनार विक्रियाकारकांचो सोद. |
| जीओक, विल्यम फ्रान्सिस | अमेरिका | १९४९ | अतिनीच तापमानांत पदार्थांचें वर्तन. |
| ज्यॉलिअट-क्युरी, | फ्रांस | १९३५ | नव्या किरणोत्सर्गी मूलद्रव्यांचें |

| नांव | देश | वर्स | कार्य |
|---|---|---|---|
| आयरीन | | | संश्लेशण. |
| जॉलिअट, फ्रॅडरिक | फ्रांस | १९३५ | नव्या किरणोत्सर्गी मुलद्रव्यांचें संश्लेशण. |
| झिगमोंडी, रिकार्ट | ऑस्ट्रिया | १९२५ | कलिल विद्रावाच्या असमांग स्वरुपाचें स्पश्टीकरण. |
| झीग्लर, कार्ल | जर्मनी | १९६३ | प्लास्टिकांच्या मळावयल्या भोववारिकांची संरचना आनी संश्लेशण. |
| टॉड, सर अलॅक्झांडर रॉबर्टस् | ब्रिटन | १९५७ | न्युक्लिओटायडां आनी न्युक्लिओटायडको - एंझायमाविशीं कार्य. |
| टिसेलियस, आर्ने व्हिल्हेल्म काउरिन | स्विडन | १९४८ | विद्युत् संचारण आनी अधिशोशण, विश्लेशण हांचेर संशोधन, रक्तरस प्रथिनांविशीं संशोधन. |
| डील्स, ओटो पाऊल हॅरमान | जर्मनी | १९५० | डायन संश्लेशणाविशीं सोद आनी विकास. |
| डेबाय, पॅट्रस (पीटर) योसेफस व्हिल्हेल्मस | नॅदर्लॅड्स | १९३६ | दिध्रुवी परिबलां आनी क्ष-किरण तशेंच इलेक्ट्रॉन हांचें वायूंतलें विवर्तन हेविशीं अनुसंधान. |
| डेयसेन्होफर, जोहान | जर्मनी | १९८८ | उजवाडा संश्लेशण पद्दतींत दर एक अणू धरून रेणुचे रचणुकेची पारख केल्ले खातीर. |
| तावबे, हॅन्री | अमेरिका | १९८३ | इलेक्ट्रोन सोडपाचे विक्रीयेची यंत्रणा सोदिल्लेखातीर. |
| द, हेव्हेशी जॉर्ज | हंगेरी | १९४३ | रसायनीक संशोधनांत समस्थानिकांचो मार्गणक म्हणून उपेग. |
| द्यू, व्हीन्यो व्हिन्सेंट | अमेरिका | १९५५ | पॉलिपेप्टायडयुक्त हार्मोनांचें पयलें संश्लेशण. |
| नॅता, जुल्यो | इटली | १९६३ | प्लास्टिकांच्या क्षेत्रांतल्या भोववारिकांची संरचना आनी संश्लेशण. |
| नॉरिश, रोनाल्ड जॉर्ज न्हेफोर्ड | ब्रिटन | १९६७ | खूब वेगाच्या रसायनीक विक्रियांचो अभ्यास. |
| नॉर्थ्रप, जॉर्ज हॉवर्ड | अमेरिका | १९४६ | शुद्ध रुपांत एंझायमाची आनी वायरस प्रथिनांची निर्मिती. |
| नेर्न्स्ट, व्हॉल्टर हॅर्मान | जर्मनी | १९२० | उपमा रसायनशास्त्रांतलें कार्य. |
| पोलान्यो, जॉन चार्ल्स | कॅनडा | १९८६ | विक्रिया गतिकी हो रसायन शास्त्रांतलो फांटो सोदिल्ले खातीर. |
| पॉलिंग, लायनस कार्ल | अमेरिका | १९५३ | रसायनीक बंधांच्या स्वरुपाचो अभ्यास. |

| नांव | देश | वर्स | कार्य |
|---|---|---|---|
| पॅडरसन, चार्ल्स | अमेरिका | १९८७ | हार्मोन्स आनी हेर कार्बनी पदार्थाच्या वर्तना सारके कृत्रीम रेणू तयार केल्ले खातीर. |
| पेरूट्झ, मार्क्स फर्डिनांड | ब्रिटन | १९६२ | हिमोप्रथिनांच्या संरचनांची निश्चीती. |
| पोर्टर, जॉर्ज | ब्रिटन | १९६७ | खूब वेगाच्या रसायनीक विक्रियांचो अभ्यास. |
| प्रायगोजीन, इलिया | बेल्जियम | १९७७ | उष्मागतिकी सिद्धांताविशींचें म्हत्वाचें कार्य. |
| प्रेगल, फ्रिट्स | ऑस्ट्रिया | १९२३ | कार्बनी पदार्थांच्या सुक्ष्म विश्लेशणाची पद्दत. |
| प्रेलॉग, व्लादिमीर | स्वित्झर्लंड | १९७५ | जैव प्रक्रिया समजुपाचे नदरेन मूलभूत कार्य. |
| फिशर, एर्न्स्ट ओटो | जर्मनी | १९७३ | कार्बनी धातू रसायनशास्त्रांतलें कार्य. |
| फिशर, एमील | जर्मनी | १९०२ | वेगवेगळ्यो शर्करा आनी पुरिनां हांच्या संश्लेशणा विशीचें कार्य. |
| फिशर, हान्स | जर्मनी | १९३० | हिमीन आनी हरीतद्रव्य हेविशीं संशोधन; हिमिनाचें संश्लेशण. |
| फुकुई, कॅनीच | जपान | १९८१ | रसायनीक विक्रीयेच्या यंत्रणेचो सिद्धांत विकसीत केल्लेखातीर. |
| फोन, ऑयलर केल्पीन; हान्स, कार्ल आउगुस्ट सायमन | स्विडन | १९२९ | शर्करांचें किण्वन आनी तें घडोवपी एंझायमां हांचें अनुसंधान. |
| फोन बेयर, योहान फ्रेड्रीक विल्हेल्म आदोल्फ | जर्मनी | १९०५ | कार्बनी रंजक आनी हायड्रो ॲरोमॅटिक संयुगासंबंदीचें कार्य. |
| फ्लोरी, पॉल जॉन | अमेरिका | १९७४ | बृहत रेणुंच्या भौतीक रसायनशास्त्रांतलें सिद्धांतीक आनी प्रयोगीक मूलभूत संशोधन. |
| बर्ग, पाऊल | अमेरिका | १९८० | न्युक्लीयीक आम्लाच्या बुन्यादी सरपळेची पारख केल्लेखातीर. |
| बार्टन, डॅरेक हॅरॉल्ड रिचर्ड | ब्रिटन | १९६९ | कार्बनी संयुगांचे प्रत्यक्ष त्रिमितीय आकार थरोवपाचें कार्य. |
| बॉश, कार्ल | जर्मनी | १९३१ | रसायनीक उच्चदाब पद्दतींचो सोद. |
| बुखनर, एदुआर्द | जर्मनी | १९०७ | अकोशिकीय किण्वन. |
| बुटेनांट, आदोल्फ | जर्मनी | १९३९ | लिंग हॉर्मोनाविशीं कार्य. |
| बर्गिउस, फ्रॅड्रीक | जर्मनी | १९३१ | रसायनीक उच्चदाब पद्दतीचो |

| | | | |
|---|---|---|---|
| | | | स्थापनेंत म्हत्वाचें कार्य. |
| हामार्स्कजोल्ड डाग यालगार आंग्ने | स्विडन | १९६१ | युनोचो महासचिव, राजकीय अर्थशास्त्रज्ञ. |
| 'हॅंडरसन, आर्थर | ब्रिटन | १९३४ | फुडारी, मुत्सद्दी, निशस्त्रीकरण परिशदेचो अध्यक्ष. |

– कों. वि. सं. मं.

**नोरोन्य, आंतोनियु जुजे :** (जल्म :१७२०, व्हडलें गोंय; मरण: १७७६, गोंय).

एक गोंयकार फ्रांसिस्कन. १७४१ त ताका कोरोमण्डल देगेर फ्रांसिस्कन मिशनांत वावर करपाखातीर धाडलो. थंय ताणें बेस बरी कामगिरी केल्ल्यान ताका पॅरिसाक धाडलो. फुडें पार्टीबस इनफॅडेलियम हे सुवातेर हे लिकारनासो चो बिशप म्हणून ताची नेमणूक जाली. पूण ताचो अभिशेक जावंचे आदींच ताका मर्ण आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

**नोव्हेंबर :** ग्रेगोरीयन पंचागांतलो तीस दिसांचो, इकरावो म्हयनो. आदल्या रोमी पंचागांत मार्च म्हयनो पयलो आशिल्लो. देखून हो णववो म्हयनो आशिल्लो. तेखातीर 'नोव्हेंम' म्हळ्यार णव ह्या अर्थाच्या लॅटीन उतरावयल्यान 'नोव्हेंबर' हें नांव पडलें. ॲंग्लोसॅक्सन हाका 'विंड मन्थ' वा 'ब्लड मन्थ' म्हण्टात. रोम्युलस हाच्या धा म्हयन्यांच्या वर्सांत नोव्हेंबर हो म्हयनो आशिल्लो आनी ताका तीस दीस आशिल्ले. रोमाच्या कायदे करपी धा जाणांच्या मंडळान नाव्हेंबराचे एकुणतीस दीस केले. ज्युलियस सिझर हाणें ताचे एकतीस दीस केले. ऑगस्टस हाणें ऑगस्ट ह्या आपल्या नांवाच्या म्हयन्याचे एकतीस दीस केले, तेन्ना मंडळान नोव्हेंबराचे परते ३० दीस केले कांय क्रिस्तांव लोक एक नोव्हेंबर हो 'सगळ्या संतांचो दीस' आनी दोन नोव्हेंबर हो 'सगळ्या आत्म्यांचो दीस' म्हणून मनयतात. इकरा नोव्हेंबर हो अमेरिकेंत वॅटरन्स डे, कॅनडांत रिमेंब्रन्स डे, तशेंच पयलें म्हाझूज सोंपपाचो दीस आनी हुतात्म्याचो स्मृतिदीस म्हणून मनयतात. हिंदू पंचांगाप्रमाण नोव्हेंबर म्हयनो कार्तिक-मार्गशीर्ष म्हयन्यांत येता. चवदा नोव्हेंबर हो पंडीत जवाहरलाल नेहरू हाचो जल्मदीस, बालदीस म्हणून मनयतात.

– कों. वि. सं. मं.

**नौटंकी :** उत्तर भारतांतलें एक लोकनाट्य. हाचें सगळ्यांत पोरणें रूप म्हळ्यार स्वांग. फुडल्या काळांत हाकाच 'भगत' (१३२५-१६५०) आनी उपरांत रीतिकाळांत (१६५०-१८५०) 'नौटंकी' म्हणूंक लागले. सद्याच्या काळांत स्वांग आनी नौटंकी हे दोनूय प्रकार प्रचलीत आसात. ह्या खेळाची सुरवात पुर्विल्ल्या काळांत जाली अशें मानतात. डॉ. रामबाबू सक्सेनाच्या मतान नौटंकीचो उगम उर्दू कविता आनी लोकगितांतल्यान जालो अशें म्हण्टात. जाल्यार कालिकाप्रसाद दीक्षित हाच्या मतान सगळ्यांत पयलीं नौटंकी ही नामनेचें पंजाबी लोकगीत 'हीर रांझा' तल्यान जाली आनी तिचो उगमकाळ इ.स. इकरावो-बारावो शेकडो. ह्या लोकनाट्याचे मूळ प्रवर्तक मल्ल, जाट, रावत, राजपूत, रंगारी कोष्टी हे मानतात.

नौटंकी म्हळ्यार एक तरेचें संगीत रूपकूच. महाराष्ट्रांतल्या दशावतारांकडेन आनी कर्नाटकांतल्या यक्षगानाकडेन ताचें सारकेंपण आसा. सूत्रधार हो खेळाचो मुखेल संचालक आसता. तोच खेळांतल्या पात्रांची, प्रसंगाची आनी दृश्याची प्रेक्षकांक वळख करून दिता. ह्या खेळाखातीर तात्पुरतो माटव घालून रंगमाची घालतात. रंगमाचयेर फुडें एकूच पड्डो आसता. नौटंकींत प्रेक्षक आनी नट हांचेमदीं लागशिल्लेंपण आसता. जायत्या फावटीं, प्रेक्षकांतल्यान पात्रां रंगमाचयेर येतात आनी जायते फावटी तीं प्रेक्षकांकडेन प्रस्नोत्तरां करतात रंगमाचयेचे एके वटेन नौटंकीचें आख्यान गावपी गायक आनी वादक बसतात. बाज्याची पेटी, सारंगी, तबलें आनी नगारो हीं वाद्यां म्हत्वाचीं आसतात. नौटंकींतलें कथानक प्रणयप्रधान, वीररसप्रधान वा साहसी घडणुकांनी भरिल्लें आसता. हातूंत बायलांच्यो भुमिका बायलोच करतात. नौटंकीच्या खेळांत मजा हाडपाखातीर विनोद वा हास्यरसाचे प्रसंग मुद्दाम निर्माण करतात. अशा वेळार बायलो दादल्याच्या भेसांत रंगमाचयेर येतात. नाट्यांतले संवाद पद्यमय आसतात आनी ते चडशे चौबोले आंखूड तानेचे जाल्यार कांय दीर्घ तानेचे आसतात. तांची धाटणी 'बहर-ई-तवील' (म्हळ्यार लांब छंद) ह्या उर्दू छंदाभशेन आसता. नौटंकीचो खेळ रातचो आठांक सुरू जाता तो फांतोड मेरेन चलता. निमाणें सुत्रधार रंगमाचयेर येवन प्रेक्षकांक उपदेश करता. जात्रे वेळार आनी चडकरून कार्तिक-मार्गशीर्ष आनी चैत्र-वैशाख ह्या म्हयन्यांनी नौटंकीचो प्रयोग करतात. उत्तर प्रदेशांतल्या फरुखाबाद, शाहजहानपूर, कानपूर, एटा, इटावा, मैनपुरी, मीरत, सहारनपूर ह्या जिल्ह्यांनी नौटंकीचो चड प्रसार आसा. ह्या वाठारांतल्यो त्रिभुवन आनी ग्वाल्हेर नौटंकी संस्था खास लोकप्रिय आसात.

फुडें तेराव्या शेंकड्यांत अमीर खुसरोन नौटंकीची प्रभावी वट लक्षांत घेवन तिका नवे धर्तीची पद्यरचना आनी आकर्शक संगीत दिवन तिचो पांवडो उंचायलो.

अठराव्या शतमानांत नौटंकीचो प्रसार पुराय भारतभर जालो. नौटंकीची कानपूर आनी हाथरस अशीं दोन घराणीं निर्माण जालीं. हाथरस घराण्याची परंपरा सुमार पांचशें वर्सांची.

इंद्रमन हो हाथरसचो नामनेचो प्रवर्तक आशिल्लो. ताची शिश्यपरंपरा चिरंजीवलाल आनी पं. नाथाराम महाराज अशी सांगतात. हांची नौटंकी लोकप्रिय आसा. ते स्वतः उत्तम नट आनी कवी आशिल्ले. ताणीं नौटंकीक नाट्यात्मकताय आनी कलात्मकताय दिवपाचे नदरेन नवे नवे प्रयोग केले. पौराणिक, धर्मीक आनी समाजीक कथाप्रसंगां बरोबर सुफी काव्यांतल्या खाशेलपणाचो उपेग करून ताणीं स्वप्नदर्शन, चित्रदर्शन आनी हेर रूपगुणश्रवणान प्रीतीची अनुभूती घडोवपी कथानकांचो आदार घेवन नौटंकीचें सामर्थ्य वाडयलें. ताणीं सुमार पन्नास संगीत नौटंकीची निर्मिती केली. तांचेमदली श्रवणचरित्र ऊर्फ धर्मपताका (१९०९), नकली मालीन ऊर्फ करामती पीर (१९२३), शीरी फरहाद ऊर्फ गुलशन की मुलाकात (१९२४) आनी खून के ऑंसू ऊर्फ पाकदामन लडकी (१९३६) हे खेळ विशेश प्रसिद्ध आसात. एकुणिसाव्या शतमानाच्या उत्तरार्धांत दीपचंद नांवाच्या एका कलाकारान नौटंकींत उत्तान शृंगार आनी थिल्लरपणा काडून त्या जाग्यार वीररसाक स्थान दिलें. तशेंच ताणें स्वताची नौटंकी मंडळी स्थापून भारतभर भोंवडी केली.

उपरांत कानपुरी नौटंकी फुडें हाडपाच्या कामांत श्रीकृष्ण पहेलवान,

लालमणी नंबरदार, त्रिमोहन आनी छिद्दन आदी कलाकारांचो म्हत्वाचो वांटो आसा. ताणीं आपले नौटकींत संगिताचे वेगवेगळे प्रकार हाडले आनी अभिनयांतूय सुदारणा केली.

श्रीकृष्ण पेहलवान हाचे नौटंकींत श्रृंगार, वीर, हास्य आनी करूण भावनांचो आविश्कार दिसता आसलो तरी तातूंतल्यान सामाजिक सुदारणा आनी राजकीय ध्येयवादाची जाणविकाय दिसून येता. ताचे हकीकतराय (१९१३), जालियानवाला हत्याकांडावयले खूने वाहक, वेश्यावृत्तीचे वायट परिणाम दाखोवपी आँख का जादू ह्या नौटंकी खेळांक खूब नामना मेळ्ळ्या. ताच्या नौटंकीची भास चड करून उर्दूप्रचूर आनी छंदूय उर्दूच आसता. तशेंच तांचेर पारशी नाट्यसृश्टीचो प्रभाव आसतालो. अमरसिंह राठौर उर्फ आगरे की लडाई ही वीररसप्रधान नौटंकी पुस्तक रुपान उजवाडा आयल्या.

आर्विल्ल्या नौटंकीच्या निर्मात्यांमदीं प. टीपचंद ह्या विद्वानाक पयलो मान फावो जाता. तेचवांगडा पं. लखमीचंद, तिरमोहन, राधेश्याम, कथावाचक लम्बरदार, पं. नाथाराम हांचें कार्य उल्लेख करपासारकें आसा. काळानुसार नौटंकी ह्या कलाप्रकारांत बदल जायत गेले.

– कों. वि. सं. मं.

**नौसेना (नौदल) :** दर्याच्या वयल्या भागार आनी दर्या भितर झूज करूंक शकपी लश्करी संघटना. भूंयसेना (लस्कर), वायूसेना हांचे सारकीच नौसेना ही राश्ट्रीय संरक्षण वेवस्थेचो एक घटक आसता. ज्या देशा भोंवतणीं दर्या आसता, ताका नौसेना उबारप भोव गरजेचे आसता. देशाच्यो राजकीय आनी अर्थीक गरजो आनी परस्पर संबंद हांचे परिपुर्तीचे नदरेन नौसेना उबारप म्हत्वाचें आसता. दर्याचें बळगें वापरपाचें नौसैना हें एक साधन आसा. आर्विल्ल्या काळांत नौदल स्वतंत्रपणान विकसीत जालां.

झूज काळांत नौसेनेक कांय म्हत्वाचीं कामां करचीं पडटात. तीं अशीं

१. आपल्या राश्ट्रीय आनी दर्यांच्या शिमांची राखण करप.
२. बंदरांची आनी दर्या देगेची राखण करप.
३. दर्याच्या वेपाराची राखण करप.
४. दुस्मानांची दर्यांतली नाकेबंदी करप.
५. दर्यांतलें तेल आनी हेर खनीज संपत्ती हांचे सुरक्षीततायेची वेवस्था करप, उदकांतल्या हेर कारवायांक फावो सो प्रतिसाद दिवप, आपले उपस्थिती वरवीं अर्थीक आनी राजकीय फायदे मेळोवन गरज तेन्ना लडायो करून दुस्मानांचें नावीक बळगें उणे करप.

शांततायेच्या काळांत नौसेनेक फुडलीं कामां करचीं पडटात – झुजांची शक्यताय मतींत दवरून ते नदरेन आदींच पूर्वतयारी करप, नौसेनेच्या तारवांचो झूज नितीक परावर्तक म्हणून उपेग करप, वेपारी तारवांक संकश्ट काळांत मदत करप, दुसऱ्या राश्ट्रांक भेटी दिवप आनी अस्वडी आपल्या दर्या बळग्याचो तांचेर प्रभाव घालप, झगडीं, किजिलां चालू आशिल्ल्या वाठारांक भेट दिवन आपले उपस्थितीन हेर संबंदितांचेर चेपण हाडप, चोरयेचो वेपार आळाबंद हाडप आनी दर्या देगेर पाळत दवरप ह्या वावरांत दर्यादेग संरक्षक दळाक पालव दिवप, खावपाचें तेल आनी खनीज संपत्तीचो सोद लावपाक मदत करप, दर्याचें सर्वेक्षण आनी नकाशांची निर्मिती ह्या वावरांक मदत करप, दर्यांतली येरादारी सुरळीत करपाक मदत करप, दर्यादेगेवयली शासकीय कार्यालयां, आस्पत आनी बंदरां हांची राखण करप.

नौसेनेचें स्वरूप भुगोलीक आनी राजनितीक परिस्थितीचेर आदारून आसता. विदेश धोरणांची फाटपुरवण करपा खातीर नौदलाचो वापर करतात. देशाच्या विदेश धोरणांक अणसरून नौसेनेचें स्वरूप आनी तिचो विस्तार, वाड थरयता. संवसारीक वेपार, दळणवळण, परकी चलन मेळोवपाची गरज आनी आंतरराश्ट्रीय राजकारण ह्या सगळ्या गजालींचो विचार करून नौसेनेचो आकार, संघटना आनी स्वरूप थारयतात. राश्ट्राची प्रतिश्ठा वाडोवपाच्या नदरेनूय उपेग जाता.

शांततायेच्या झूज काळांत उपेगांत येवपी नौसेनेचें स्वरूप झूज नौकांनी आनी शस्त्रास्त्रांनी सुसज्ज दवरचें पडटा. विंगड विंगड तरेचीं झुजा तारवां तांची संख्या आनी गुणवत्ता हांचे मदीं संतुलां दवरचीं पडटात. झूज नौका, पाणबुडयो, विमान वाहक, हॅलिकॉर्प्टर्स हांची संख्या आनी तांचें परस्पर प्रमाण, तांचेर जावपी खर्च ह्या सगळ्यांचो ताळमेळ राश्ट्रीय उत्पादन आनी अर्थीक क्षमताय हांचेकडेन वेवस्थीत बसोवचो पडटा.

नौसेनेचो परमसेनापती राश्ट्रमुखेली आसता. संरक्षण मंत्री, लस्कर, नौसेना आनी वायूसेना हांचेर देखरेख दवरता. हें नियंत्रण नौसेना अध्यक्ष करता. झुजांतल्या कारवायांची येवजण, झूज नौका आनी शस्त्रास्त्रांची बांदावळ आनी उपेग, शिक्षण हो वावर नौसेना अध्यक्ष करता. ताका हेर दुय्यम नावीक अधिकारी मदत करतात. संरक्षण मंत्र्याच्या आदेशा प्रमाण नौसेना अध्यक्ष काम करता.

**नौसेनेचे विभाग आनी तांचो वावर –** झूज नौकेचें प्रचालन, अभियांत्रिकी, शस्त्रास्त्र आनी पुरवण अशे चार कार्यविभाग आसतात. दर्यांतली येरादारी, संदेश-दळणवळण, रडार आनी हेर वेवस्थापन हो प्रचालनाचो वावर आसता; तारवांतली यंत्रेसामुग्री, उदक आनी वीज हांची पुरवण हे विशय अभियांत्रिकी वावरांत आस्पावतात. नांगर उडोवप आनी तो उखलप, पाणबुडयांचो थाव घेवप आनी त्यो नश्ट करप, नाळी आनी शस्त्रास्त्रां हांचो मारो करप हीं कामां शस्त्रास्त्र विभागाकडेन आसतात. जेवण, कपडे, पगार वांटप हीं कामां पुरवण विभाग पळयता. नौसेनेंतल्या व्हड्यांचे झुजारी, सहाय्यक आनी सेवा अशे तीन वर्ग आसतात.

नौसेना संघटना ही राश्ट्राचे संरक्षण नितीक अणुसरून आनी नौसेनेकडल्यान अपेक्षीत आशिल्ल्या वावराप्रमाण निश्चित करता. ही संघटना सादारणपणान अशी आसता – शस्त्रास्त्रीक ही आक्रमक आनी संरक्षक अशीं दोन तरांची आसतात. झूज नौकेचें जें खाशेलें कार्य आसता, तेप्रमाण तिचेर शस्त्रास्त्रां आसतात. विमान वाहक तारवांचेर विमानां आनी नाळी आसतात. सैनीक वाहक ल्हान तारवांचेर फकत नाळी आसतात. पाणबुडयेचेर पाणतीर आनी पर्यटन क्षेपणास्त्रां आसतात. दरेका ल्हान व्हड तारवांचेर विमान विरोधी नाळी आसतात. पाणबुडयेचेर पाणतीर आनी पर्यटन क्षेपणास्त्रां आसतात. विनाशिकांचेर पाणतीर, नाळी, क्षेपणास्त्रां आनी हॅलीकॉप्टरां आसतात. झूज तंत्राचे नदरेन शस्त्रास्त्रांची निवड करतात. लांब अंतरावयल्या नौदलाची राखण करपाखातीर लांब पल्ल्याचीं अस्त्रां, रडार, गरजेचीं थारतात. एकाच तारवाचो राखणेखातीर बिंदू रक्षक आसता. चडश्या अस्त्रांचो प्रयोग इलॅक्ट्रोनीक उपकरणांनी करतात.

**इतिहास –** पुर्विल्ल्या काळांत दर्यांतल्यो लढायो करपाखातीर व्हडीं आसतालीं आनी तीं चडशीं सशस्त्र पंगडाचे मालकीचीं आसतालीं. हेर

जमातींच्या लोकांच्यो जमनी हातासपाखातीर ते दर्यांचेर हल्ले करताले. वेपार, नुस्तेंमारी आनी दर्यांतली लूटमार हांचेखातीरूय त्या व्हड्यांचो उपेग जातालो. दर्यांतल्या बळग्याचेर आदारिल्ली पयली नौसेना 'ॲथेन्स' शारांत स्थापन जाली. इ.स.प. पांचव्या शतमानांत 'थिमिस्टीडीज' हाणें परकी आक्रमणाचो धोको टाळपाखातीर झूज नौकांची उबारणा केली. ह्या झूज नौकांक 'ट्रायरेमीस' अशें म्हण्टाले. बाराव्या शतमानांत तुर्कांनी बायझंटीन साम्राज्यांत गोंदळ घालो आनी ताका लागून बायझंटीन नौदल नानपयत जालें. मध्ययुगीन इटलींतल्या वेगवेगळ्या राज्यकर्त्यांनी आपआपलीं नौकादळां उबारिल्लीं. इ.स.प. चवथ्या शतमानासावन उत्तर आफ्रिकेंतल्यान येवपी धान्याची आयात करपाखातीर कार्थेज बंदराचो उपेग जातालो. जेन्ना कार्थेजान इटलीच्या दर्यादेगेर घुरयो घालपाक सुरवात केली, तेन्ना रोमी लोकांनी आपले पुराय शक्तीवरवीं कार्थेजीयन तारवांचे धर्तेर व्हडल्यो झूज नौका बांदल्यो. रोमी साम्राज्याचो अस्त जातकूच नौदलाकडेन पुराय दुर्लक्ष जालें. फुडें सातव्या शतमानांत मुसलमानी सत्ता उदेतकच धोको निर्माण जालो आनी देखून नौसेनेकडेन परत लक्ष केंद्रीत केलें. ह्या शतमानासावन येवरोपांत सांस्कृतिक नदरेन एक नवें पर्व सुरू जालें. ताका तुर्कांचें आक्रमण कारण थरलें. धर्मीक झुजां आनी हेर राजकीय घडामोडी नेटान जावंक लागल्यो. आफ्रिका, आशिया, लॅटीन अमेरिका ह्या खंडांतल्या वसणुकांचेर धाडी धालून थंयचे लुटमारीचो उपेग येवरोपांतल्या झुजाखातीर जावपाक लागलो.

पुर्तुगाल, स्पेन, इंग्लंड हीं राश्ट्रां एकामेकांकडेन झगडूंक लागलीं. तुर्कांचेर लेपाण्टोच्या दर्यांतले लडायेंत हार पडली. इतले मजगतीं, नाळो आयल्यो आनी पारंपारीक नावीक झूज तंत्रांत क्रांतिकारी बदल जाले. ह्या काळांतली 'गॅली' झूजनौका सुमार १५० फूट लांब आसताली. तुर्कांनी गॅलीओट नांवाची ल्हान, वेगवान झूज नौका प्रचारांत हाडली. झामोरीन आनी मराठ्यांचीं तारवां हेच तरांचीं आशिल्लीं. वॅनिसी लोकांनी गॅलीआस नांवाची शिडां-व्हलीं आशिल्लीं व्हड तारवां तयार केलीं. तातूंत सुमार ७० नाळी आसताल्यो आनी हिचो सैनिकांक मारपाक उपेग करताले.

स्पेन, इंग्लंड आनी पुर्तुगाल हांचीं स्वतंत्र नाविक कार्यालयां आशिल्लीं. कोरीयांत सोळाव्या शतमानाचे अखेरेक चोल्ल राजाचो नौसेनापती यी सुंग हाणें लोखणाचें कवच आशिल्ल्यो नौका पयलेच खेपे बांदल्यो. पंदराव्या शतमानाचे सुरवेक चीनाचो जंग हे हाणें नौसेना बळगें, दर्यांतलो वेपार आनी नाविक तळ ह्यो गजाली पयलेच खेपे चालीक लायल्यो. शास्त्रीय गिन्यान आनी अभियांत्रीकी तंत्र वापरून तारवांची बांदावळ करपाची बुन्याद फ्रांसाचो झां बातिस्त कॉलबॅर (१६६१-८३) हाणें घाली. सॅम्युॲल पेपीस हाणें ब्रिटीश नौसेनेची नवी संघटना उबी केली. ब्रिटीश आनी फ्रेंच हांचे मदल्या नाविक संघर्शांत ब्रिटीश लोक दर्याचेर शेक गाजोवपांत येसस्वी थरले.

अठरावें शतमान हें अस्तंतेकडले नौसेनेचे नदरेन भांगरायुग अशें म्हण्टात. ह्या काळांत साठ ते सत्तर मीटर लांबायेच्यो आनी २,५०० टन भाराच्यो झूज नौका फुडें आयल्यो. हिंदुस्थानांत मुंबय शारांत तारवां बांदपाचे कारखाने सुरू जाले. अठराव्या शतमानांत येवरोपांत नौसेना वेवसायिक जाल्यो. सरकारी केंद्रीय कार्यालयां स्थापन जालीं. नौसेनेखातीर भरती, प्रशिक्षण, नौका बांदावळ ह्या कामांची जापसालदारकी तांचेर पडली. वेपारी नौदल आनी नौसेना हांचे मदल्या संबंदांनी सुसुत्रणां आयली. विज्ञानांतले उदरगतीचोय तातूंत वापर जालो. १८५० ते १९०० ह्या काळांत लागिल्ल्या तंत्रीक सोदाक लागून नाळी तिख्याचीं तारवां तांचो आकार आनी टनभार, तोफगुळे हांचेभितर सुदारणा जाल्यो. कोळसो, उदक आनी हेर पुरवणेखातीर जगभर नाविक तळ उबारपाची सर्त सुरू जाली. ब्रिटनांत, मुंबय, त्रिंकोमाली, सुएझ, एडन ह्या सुवातांचेर तळ स्थापले.

१९०० ते १९२५ ह्या काळांत रुसो-जपानी आनी पयलें म्हाझूज जालें. नाविक बळगें वाडोवपाची सर्त हें ताचें कारण आशिल्लें. झूज नौकांचो आकार आनी तांची तांक वाडली. अंतज्वर्लन इंजिनां तारवांनी बसयलीं. दर्यांतल्या पाणबुड्यांचो नाश करपाखातीर उदकाच्या दाबावरवीं स्फोट जावपी बॉंब सोदून काडले. झूज नौकांचेर मार्कोनीची बिनतारी संदेशवाहक उपकरणां बसयलीं. ४ ऑगस्ट १९१४ ह्या दिसा ब्रिटीश शाही नौसेनेन झूज करपाचो आदेश बिनतारी यंत्रांवरवी दिलो. पयल्या म्हाझुजाउप्रांत ब्रिटन, जपान आनी अमेरिका हाणीं पॅसिफीक म्हासागराचेर शेक गाजोवपाक सुरवात केली. १९२१त संवसारीक नावीक बळांत संतुलां राखपा खातीर कबलात जाली. १९३७ वर्सा अखेर नावीक बळ वाडोवपाक सुरवात जाली. जपानाचीं कांय तारवां ६४,००० टन भाराचीं आशिल्लीं. जपान आनी अमेरिका हांच्या झूजनौकांचेर सुमार ८० झुजारी विमानां आशिल्लीं. पाणबुडयांचो टनभार ६,५०० टनां मेरेन आनी आंवाठ ४०,००० किमी. मेरेन वाडलो.

दुसऱ्या म्हाझुजांत नौसेनेचे नदरेन कांय म्हत्वाचे बदल जाले ते अशे: झूजनौकांक दुय्यम सुवात फावो जाली, आघात विमान वाहक तारवांनी पयली सुवात मेळयली आनी नावीक दळाचो वापर करपी तें मुखेल साधन जालें. वेपारी नौदलाचें, पाणबूडयो आनी झूजनौकां वरवीं जावपी नुकसान भरून काडपाखातीर तारवांची बांदावळ बेगोबेग करप सक्तीचें थारलें, रडार आनी हेर इॅलेक्ट्रॉनीक उपकरणां हांची गरज उप्रासली, पाणबुडयांतल्या तंत्रांत उदरगत जाल्ल्यान पाणबुडीविरोधी झूज तंत्रांत सुदारणा करप गरजेचें जालें, अणुशक्तीचो वापर करपाच्यो नव्यो संदी मुखार आयल्यो. १९४५ उप्रांत विज्ञान आनी तंत्रगिन्यान हातूंतल्या नव्या सोदांक लागून नौसेनेंत बरीच प्रगती जाली.

**भारतीय नौसेना** - पंदराव्या शतमानाचे अखेरेक अस्तंती लोकांनी दर्या मार्गान वेपारी आक्रमणां केलीं. उपरांत ब्रिटीशांनी हिंदुस्तानाचेर राज्य स्थापन केलें. पुर्विल्ल्या उत्खननांत मेळिल्ल्यो मुद्रा आनी आयदनांवयल्या चित्रांवयल्यान त्या काळांतलीं शिडांचीं तारवां कशीं आशिल्लीं हें कळटा. रामायणांतल्या अयोध्याकांडांत न्हंयेंत झुजपी व्हडीं आनी सेना हांचो उल्लेख आयला. महाभारतांत लेगीत नौसेनेचो उल्लेख आसा. ऋगवेदांत व्हड्यांचे उल्लेख आसात. पुराणांनी तशेंच जातक साहित्यांत व्हडीं, दर्यांतलो वेपार हांचीं वर्णनां आसात. अर्थशास्त्रांत दुस्मानांच्या व्हड्यांचो नाश करपाचे उल्लेख आयल्यात. अकबराच्या आईन-ई-अकबरी ह्या ग्रंथांत मोगली नौसेनेची म्हायती आसा.

स्वतंत्र भारताचे आनी पाकिस्तानाचे नौसेनेचें मूळ, १६१३ त सुरतेक इस्ट इंडिया कंपनीन स्थापन केल्ल्या 'इंडियन मरीन' ह्या नौदलांत सांपडटा. अरबी दर्यांत चांचेगिरी चलताली. ताका तोंड दिवपाखातीर ५ सप्टेंबर १६१२ त दोन शस्त्रास्त्रधारी वेपारी तारवां, ब्रिटीशांच्या सुरत वखारींत रूजू जालीं. हीच 'इंडियन मरीन' ची सुरवात. खंबायताचें आखात, तापी आनी नर्मदा हांच्या मुखाकडल्या दर्या वाठारांची राखण हें काम मरीना कडेन आशिल्लें. सुरत, अहमदाबाद आनी खंबायताक नाविक

प्रशिक्षण दिताले. १६२२ त इराणी आखातांतलें ओर्मुझ बंदर मरीनान ताब्यांत घेवन चांचेगिरीक बरोच आळो घालो. १६६४ त इंडियन मरीनाक शिवाजीच्या आरमाराकडेन झूजचें पडलें. ५ जानेवारी १६६४ त शिवाजीचे सुरतेंतले घुरयेंत मरीनान नाळी घालून कारखान्याची राखण केली.

१६८३ त सुरत सोडून इंडियन मरीन मुंबय शारांत हालयलें आनी ताका 'बॉंबे मरीन' हें नवें नांव दिलें. १६८६ ते १७३६ मेरेन मराठा आरमार आनी बॉंबे मरीन हांचे मदीं अस्तंत दर्यादेगेर शेक गाजोवपाखातीर दर्यावर्दी लडायो चालूच आशिल्ल्यो. १८ व्या शतमानांत येवरोपांत ब्रिटीश, फ्रेंच हांचे मदीं झुजां चालू आशिल्लीं. ताका लागून बॉंबे मरीनची नेटान उदरगत जाली. १७३५ त मुंबयंत सद्या आशिल्ले नावीक गोदीची बांदावळ पुराय जावन थंय तारवां बांदपाक सुरवात जाली. १७५० त सुकी गोदी तयार जाली.

१७६१ त बॉंबे मरीनाक नावीक गणभेस दिलो. तातूंतले अधिकारी ब्रिटीश आसताले. नौसैनिकां मदले ७५ टक्के सैनीक कोंकणांतले आसताले. मराठ्यांच्या आरमाराचो नाश करतकच बॉंबे मरीनान हैदर अलीचीं बंदरां जिखलीं. १९व्या शतमानाचे सुरवातेक जावा, सुमात्रा हांचेर घुरयो घालपाक मरीनाक येस आयलें. १७९८ त मुंबयंत मरीन मंडल स्थापन केलें. १८२९ त बॉंबे मरीनांत 'मरीन कोर' अशें नांव दिलें. ल्हव ल्हव मुंबय बंदरांत तारवां बांदावळीक नेट आयलो. १८३० त मरीन कोर हें नांव बदलून 'इंडियन नेव्ही' हें नांव दिलें.

२० मार्च १८३० ह्या दिसा मुंबय गोदींत बांदिल्लें आनी वाफेचेर चलपी तारूं दर्यांत सोडलें. वाफेचीं तारवां वाडूंक लागलीं. झुजारी तारवांचो टन भार वाडलो. १८४५ त मुंबय लागसार 'बुचर' जुंव्याचेर नाविक तोफखानो शाळा सुरू जाली. १८५७ च्या उठावांत इंडियन नेव्हीचें विघटन जावन मुंबय आनी कलकत्ता मरीन अशीं दोन बिनझुजारी नौकादळां संघटीत जालीं. १८९० त मुंबयंत एक पाणतीर गोदी बांदली. १८९२ त इंडियन मरीन हें नांव वचून 'शाही हिंदी मरीन' हें नांव पडलें. १८९६ ते १९०४ ह्या काळांत उदेंत आफ्रिकेंत आनी बोर झुजांत ह्या मरीनान झुजारी कामां केलीं. पयल्या म्हाझुजांत मरीनाच्या बीन झुजारी हत्यारी झुजांत रुपांतर जालें. १९२८ त केंद्रीय विधानसभेंत हिंदी नौसेना-शिस्त कायदो विचाराखातीर आयलो. ८ सप्टेंबर १९३४ ह्या दिसा मुंबय शारांत हिंदी नौसेना कायदेशीरपणान प्रस्थापीत जाली.

१९३४ त येवरोपीय म्हाझुजाची सुलूस लागली. नौसेनेचे वाडीक आनी आर्विल्लेकरणाक गती मेळ्ळी. ॲडमिरल सर हर्बर्ट फिट्सहर्बर्ट हो नौसेनापती जालो. राखीव आनी आपवावुरपी दळां उबारलीं. उमेदवाराखातीर नाविक प्रशिक्षणाची तजवीज केली. दुसऱ्या म्हाझुजांत हिंदी नौसेनेच्यो पठाण, पार्वती आनी सिंधू ह्या तीन झूज नौकांनी काम केलें. १९४१ त मुंबय सावन मुखेल नौसेना कचेरी दिल्लीक हालयली.

हिंदूस्थानाची फाळणी १५ ऑगस्ट १९४७ त जाली. चार नाविक प्रशिक्षण संस्था पाकिस्तानाकडेन उरिल्ल्यो. देखून भारतीय नौसेनेक कठीण परिस्थितीक तोंड दिवचें पडलें. कोमोडोर नॉट भारतीय नौसेनेचें चीफ ऑफ स्टाफ आशिल्लो. ताणें हे कठीण परिस्थितीचेर जैत मेळोवन नौसेनेची प्रगती फुडें व्हेली. स्वतंत्र भारताच्यो घटना आनी नौसेना कायद्याप्रमाण भारतीय नौसेनेक संरक्षण सेनेंत सुवात मेळ्ळी. भारतीय नौसेनेक फुडलीं कामां करचीं पडटात. भारताच्यो शिमो राखप, वेपारी येरादारीची राखण करप, दर्यांतलें सर्वेक्षण करप, नावीक तळ बांदप, दर्या वाठारांत पाळत दवरप, भारताच्या सार्वभौमत्वाखातीर दर्या वाठाराची राखण करप, लस्करी कारवायांनी हेर सेनादळांक पालव दिवप, अधिकारी आनी हेर सैनिकांक प्रशिक्षण दिवप आनी वेपारी नौदालाकडेन संर्पक सादप. २७ मे १९५१ ह्या दिसा तेन्नाच्या राश्ट्रपतीन नौसेनेक राश्ट्रपती ध्वज भेटयलो. ल्हव ल्हव नौसेनेचें बळगें वाडूंक लागलें. २२ एप्रिल १९५८ ह्या दिसा व्हायस् ॲडमिरल स्टीव्हन कार्लील हांचे कडल्यान ॲडमिरल रामदास कटारी हाणें नौसेना अध्यक्ष पद घेतलें. कटारी हे पयले भारतीय नौसेना अध्यक्ष. भारतीय नौसेनेची मुखेल कचेरी दिल्ली शारांत आसा. १९५८-६२. भारतीय नौसेनेची रचणूक अशी आसा -




राश्ट्रीय संरक्षण नितीक अनुसरून, संरक्षण मंत्री सेनाध्यक्षावरवीं नौसेनेचीं कामां करता. नौसेनाध्यक्षाचे मदतीक कर्मचारी आसतात. तांचीं कामां अशीं-

**उपनौसेनाध्यक्ष** - हो व्हायस ॲडमिरलच्या हुद्द्याचो आसता. नाविक झुजानिती आनी कारवायांची येवजण आंखप, शस्त्रास्त्रां, गुप्त खबरां संकलन, संदेश दळणवळण ह्यो गजाली तांच्या अधिकारांत येतात.

**प्रतिनियुक्त नौसेनाध्यक्ष** - नाविक वायुदळ, पाणबुडयो आनी ताचेविशींच्यो येवजण्यो, पाणबुडयां विरोधी झूजतंत्र आनी हेर कामां ताच्या अधिकारांत येतात. हाचो हुद्दो व्हायस ॲडमिरलाचो आसा.

**कार्मिक मुखेली** - हो रिअर ॲडमिरल आसता. सैनीक भरती प्रशिक्षण, वैजकी सेवा, न्यायवेव्हार, शिस्त आनी सैनीक कल्याण आनी हेर विशय हाच्या विभागांत येतात.

**सांग्रामिकी मुखेली** - हो रिअर ॲडमिरल आसता. स्थापत्य आनी वास्तूरचना, पगार, शस्त्रास्त्रां आनी रसद तपासपाचें काम आनी हेर विशय हाचे कक्षेंत येतात.

**साधनसामुग्री मुखेली** - हो व्हायस ॲडमिरल आसता. झूजनौका, नाविक तळ, गोदी हांची शिल्प स्थापत्य-रचना शस्त्रास्त्रदुरुस्ती हीं कामां हाच्या अधिकारांत येतात.

ध्वजाधिपती मुखेली अस्तंत कक्ष हाचें कार्यालय मुंबय आसा. नौसेनाध्यक्षाच्या आदेशाप्रमाण नाविक झूज आनी ते सारकीं कामां हाका करचीं पडटात. हाच्या हाताखाला अस्तंत आरमार आसता. हो व्हायस अॅडमिरल आसता.

भारतांत नौसैनिकी प्रशिक्षणाची वेवस्था कोचीन तळ, दाबोळी (गोंय) तळ, विशाखापट्टणम, लोणावळा, जामनगर, मुंबय (मालाड), मांझगाव (मुंबय) ह्या सुवातांचेर आसा.

पाकिस्तानान १९४७ उपरांत भारताचेर चार खेपे आक्रमणां केलीं. १९४८ आनी १९६५ त जाल्ल्या झुजांत भारतीय नौसेनेक दर्याचेर पाकिस्तानाच्या आरमाराकडेन झुजपाची संद मेळ्ळी ना. पाळत दवरपाचो आनी येरादारीची राखण करपाचो वावर नौसेनेन केलो. १९७१ तल्या झुजांत भारतीय नौसेनेन बांगलादेश आनी पाकिस्तान हांचे मजगतची दर्यांतली येरादारी बंद उडयली. तशेंच कराची आनी चित्तगाँग बंदरांचेर हल्ले करून पाकिस्तानी आरमाराची नाकेबंदी केली. चित्तगाँगचे दर्यादिगे लागसार भारतीय सैन्याक हल्लो करपाक पालव दिलो आनी पाकिस्तानी आरमाराचो नाश केलो.

भारतीय नौदलाचे तीन मुखेल फांटे (Commands) आसात –

१. **अस्तंत कमांड** - हाची मुखेल कचेरी मुंबय आसा. ताचे तळ गोंयांत आनी लक्षद्विप जुंव्यांर आसात. **प्राजॅक्ट सीबर्ड :** भारत सरकारान सप्टेंबर १९८५ त मंजुरी दिल्लो हो तळ कारवार (कर्नाटक) शारांत फुडल्या १०-१५ वर्सांमदीं पुराय जातलो आनी आशियांतलो सगळ्यांत व्हडलो नाविक तळ आसतलो.

२. **उदेंत कमांड** - विशाखापट्टणम शारांत हाची मुखेल कचेरी आसा. हो एक सबमरीन (पाणबुडी) तळ. पोर्ट ब्लॅर आनी कलकत्ता शारांनी हाचे हेर तळ आसात.

३. **दक्षिण कमांड** - हाची मुखेल कचेरी कोचींत आसा.

आयएन्‌एस् विक्रांत (१९,८०० टन) ही भारताची पयली विमानवाहक बोट भारतीय नौदलांत ४ मार्च १९६१ ह्या दिसा रुजू जाली. भारताची दुसरी विमानवाहक बोट आयएन्‌एस् विराट (२८,५०० टन) ब्रिटनांतल्यान १९८७ हाडिल्ली. 'निलगिरी' ही पयली आर्विल्ली झुजारीबोट. हिमगिरी, उदयगिरी, दुनागिरी, तारागिरी आनी विंध्यगिरी ह्यो भारताच्यो हेर झुजारी बोटी. माझगांव गार्डन रीच शिपयार्ड (कलकत्ता), हिंदुस्थान शिपयार्ड (विशाखापट्टणम), गोवा शिपयार्ड (वास्को, गोंय) ह्या सुवातांनी वेगवेगळ्या तरेच्यो बोटी, संरक्षक बोटी, झुजारी बोटी आनी हेर तारवांची बांदावळ जाता.

एल्. रामदास हे भारतीय नौदलाचे मुखेल ३० सप्टेंबर १९९३ ह्या दिसा सेवानिवृत्त जाले उपरांत व्ही. एस्. शेखावत भारतीय नौदलाचे मुखेल जाले.

– मुकेश थळी

**गोंयचे नौदलाचे तळ :** गोंयचे सुटके पयलीं गोंयांत पुर्तुगेज नौदल विभाग आशिल्लो. तरी, गोंयच्या नौदलाचो आधुनिक विस्तार, गोंयचे सुटके उपरांतच जालो. गोंयचे सुटके उपरांत गोंयाखातीर नेव्हल ऑफिसर इनचार्ज म्हणून कमांडर एच्. ए. आगटे हाची नेमणूक जाली. ताणें गोंयांत नौदलाचो विस्तार करून हांगा जायते फांटे सुरू केले. ह्या विस्ताराक लागून फुडें नेव्हल ऑफिसर इनचार्ज हाच्या कार्यालयाक नौदल विभागाच्या मुखेल कार्यालयाचो दर्जो दिलो.

३० डिसेंबर १९७७ ह्या दिसा फ्लॅग ऑफिसर कमांडिग गोवा नेव्हल एरिया (फॉगा) हाच्या अधिकार कक्षेखाला हें मुखेल कार्यालय हाडलें. आर. एच्. तहिलियानी हो गोंयाखातीर आयिल्लो पयलो फ्लॅग ऑफिसर.

आयएनएस विराट ही दुसरी विमानवाहक नौका नौदलांत येतकूच नौदलाचो व्याप आनिकूय वाडलो. १ जून १९८६ ह्या दिसा गोंयांतल्या नावीक तळार विमानदळाची हेर जापसालदारकी सोंपयली.

नौदलाच्यो गोंय विभागांतल्यो नौका आनी विमानां फ्लॅग ऑफिसर कमांडिग गोवा नेव्हल एरिया (फॉगा) हांच्या नियंत्रणाखाल आसात. तांचें मुखेल कार्यालय आल्पारकेयरूश दोंगुल्लेचेर वास्को शारांत आसा.

गोंय विभागांतल्या नौदलाच्या कामाविशीं हेर म्हायती अशी –

१. **आयएनएस हंस** - भारतीय नौदलाचो हो म्हत्वाचो हवाई तळ. सी. हॅरियरा सारकीं झुजारी विमानां थंय आसात. 'कामोव २५' आनी 'कामोव २८' हीं हॅलिकॉप्टरां, 'इल्युशीन ३८' विमानां आयएनएस हंसाचेर आसात. ह्या तळावयल्या सगळ्या तरांच्या विमानांची योग्य तरेन देखभाल आनी दुरूस्ती करपाची यंत्रणांय ह्या हवाई तळार आसा. रशियी बनावटीच्या विमानांची दुरूस्तीय हांगा जावंक शकता.

२. **आयएनएस गोमंतक** - ७ मार्च १९६४ ह्या दिसा ह्या नावीक तळाची उबारणी जाली. २२ संरक्षक फांटे आनी गोंयांत येवपी नौदलाच्या तारवांक आवश्यक त्यो सुविधा ह्या नावीक तळावयल्यान दिवप जातात.

३. **आयएनएस मांडवी** - ह्या नावीक तळाचें खाशेलपण म्हळ्यार हांगा भारतीय नौदल अकादेमी आसा. दर स म्हयन्यांनी हांगा सुमार ९० कर्मचारी /अधिकारी प्रशिक्षीत जातात.

४. **आयएनएस जिवन्ती** - हें ७९ खाटींची तांक आशिल्लें हॉस्पिटल. नौदलाच्या जवानांक हांगासल्ल्यानूच वैजकी सेवा दिवप जाता. चड गंभीर स्वरुपाच्या प्रकरणांनी गोंय वैजकी म्हाविद्यालय आनी आरोग्य संचालक हांचो आदार घेवप जाता.

५. **हायड्रोग्राफिक स्कूल** - आग्नेय आशियांत ज्यो मोजक्योच संस्था आसात तातूंतली एक अशी ही प्रशिक्षण संस्था. भारतीय नौदलाच्या आनी परदेशी नौदलाच्या कर्मचाऱ्यांक हांगा खास प्रशिक्षण मेळटा.

६. **नेव्हल कोस्ट बॅटरी** - हो विभाग गोंय बंदराची राखण करता.

७. **वॉरशिप ओव्हरसिईंग टीम** - गोवा शिपयार्ड भारतीय नौदलाखातीर जी तारवां आनी झूजनौका बांदता तांचेर हो विभाग नदर दवरता. सद्या एक क्षेपणास्त्र वाहक नौका, एक नाविक प्रशिक्षण नौका आनी दोन जलसर्वेक्षण नौका हांची निर्मिती ह्या विभागाचे देखरेखीखाला सुरू आसा.

८. **बेझ वर्कशॉप** - गोंयांत येवपी नौदलाच्या सगळ्या नौकांची मुळावी (किरकोळ) दुरूस्ती हांगा करतात.

९. **नेव्हल ट्रान्सपोर्ट रिपॅर वर्कशाप** - गोंयांत येवपी नौदलाच्या तारवांनी व्हड प्रमाणांत इबाड जाल्लो आसल्यार हांगा तांची दुरूस्ती करतात.

१०. **सीवर्ड डिफेन्स बोट टी ५५** - गोंयांत तळ ठोकून आशिल्ली ही नौका सोद आनी आदार दिवपाच्या वावराक वापरतात. प्रशिक्षक विमानांक आदार दिवपाखातीर आनीक जाय थंय गस्त घालपाखातीर तिचो वापर करतात. सद्या हे नौकेची दुरूस्ती मुंबय सुरू आसा.

११. **नेव्हल आर्मामेंट डेपो** - हें मुळचें पुर्तुगेजांचें शस्त्रागार १९६३ त भारतीय नौदलान ताब्यांत घेतलें. शस्त्रांची जतनाय, दुरूस्ती आनी पुरवण हांगासल्ल्यान करप जाता.

**१२. नेव्हल स्टोर डेपो** – नौदलाच्या हवाई तळावयल्या सगळ्या विमानांक हांगाच्यान आदार दिवप जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**न्याय आदार वैजकी :** न्याय आदार वैजकी म्हळ्यार वैजकी शास्त्र आनी ते संबंदी हेर गिन्याना वरवीं न्यायदानांत आदार दिवपी शास्त्र. हाका इंग्लीश भाशेंत Forensic Medicine वा Medical Jurisprudence वा Legal Medicine वा State Medicine अशींय नांवां आसात. कायदद्याचे गरजेचें वैजकी गिन्यान आनी वैजकी वेवसाया संबंदींचे कायदे अशे ह्या शास्त्राचे दोन घटक आसात. पयल्या घटकांवरवीं हें शास्त्र न्यायदानांत लागपी वैजकी आंगांसंबंदी मार्गदर्शन करता जाल्यार दुसऱ्या घटकांवरवीं वैजकी वेवसाय आनी तेसंबंदींच्या कायदद्याचें नातें दाखयता. सदद्याच्या काळांत ह्या विशयाची व्याप्ती खूब वाडल्या. वैजकी वेवसायांतले कायदे आनी नेम थरोवपाचो वावर ह्या शास्त्राकडल्यान जाता. ह्या शास्त्राक न्याय वैजकी अशेंय म्हणूं येता.

वैजकी अभ्यासक्रमांत ह्या विशयाचो आस्पाव केल्लो आसा. समाजांतलो अन्याय पयस करपाखातीर, ते नदरेन गुन्यावाची योग्य तरेन विस्कटावणी करून आनी गरज पडटा थंय वैजकी गिन्यानाचो उपेग करून, न्यायदानाच्या कार्यांत मदत करप हो ह्या शास्त्राचो मुखेल हेत. खून, मारामारी, बळजबरी, बलात्कार, आत्महत्या, भृणहत्या, वीखबाधा ह्या सारक्या गुन्यावांच्या न्यायदानांत वैजकी शास्त्राचो आदार खूब गरजेचो आसता. देखून न्याय आदार वैजकी न्यायदानांत भोव मोलादीक वावर करता.

दोतोराचीं कर्तव्यां, पिडेस्तांकडेन संबंद, निश्काळजीपण, वेवसायीक जापसालदारकी, आगळिको, वैजकी आचारसंहितेचो भंग हे सारक्यो गजालीय ह्या शास्त्रांत आस्पावतात. ह्या शास्त्राचो फ्रेंच जाणकार ब्रोअरदॅल हाच्या मताप्रमाण, खंयच्याय दोतोरान, न्यायालयामुखार गवाय म्हणून वतना विज्ञानाचो मनीस ह्या नात्यान वचचें. भावनेचो आदार घेनासतना जें सत आसा, तेंच विज्ञानाचे नदरेन न्यायालयांत सांगचें. हाचेवयल्यान तज्ञ दोतोराच्या कर्तव्याची वळख जाता. न्याय वैजकी तज्ञ घटनेक बांदिल्लो आसता. तेखातीर ताणें, खंयचेय एके घडणुकेक वा सत गजालीक अवास्तव खर रूप दिवपाक फावोना. तेच भाशेन कसलीय सत गजाल जाणा जावन लिपोवन दवरून तिचें म्हत्व उणें करूंक फावोना.

न्याय वैजकी तज्ञ हो आपलो वैजकीचो अभ्यासक्रम पुराय करून ह्या विशयाचो पदव्युत्तर अभ्यास करतकूच तज्ञ जावंक पात्र जाता. वैजकी अभ्यासक्रम पुराय केल्लो खंयचोय दोतोर ह्या संबंदान गवाय दिवपाक शकता पूण त्या दोतोराक न्याय आदार वैजकी तज्ञ अशें म्हणीनात. पूण खंयच्याय दोतोराक कायदद्याचे नदरेन तज्ञ गवाय वा सादो गवाय म्हणून न्यायालयामुखार आपोवंक मेळटा.

न्याय आदार वैजकी तज्ञाचे कार्यपद्धतीखातीर ताका पुलीस वा न्यायालय, जिल्हाधिकारी हांचेकडल्यान कळोवणें वा आपोवणें येवंचें पडटा. मुंबय सारक्या शारांत कॉरोनर (Coroner) न्यायवैजकी तज्ञाक आपोवंक शकता.

इतिहासाचे नदरेन पळेल्यार न्यायवैजकी शास्त्राचो जल्म मनशाचे समाज रचने इतलोच पोरणो. 'फॉरॅन्सीक' (Forensic) हें उतर लॅटीन भाशेंतल्या 'फॉरम' (Forum) म्हळ्यार भासाभास करपाची सुवात ह्या उतरावयल्यान आयलां. रोमी राजवटींत बाजाराभाशेन उक्ती सुवात ह्या कामाखातीर वापरताले आनी थंय न्यायनिवाडो चलतालो. भारत, चीन, ईजिप्त, सुमेरिया, बेबिलॉन सारक्या देशांनी ह्या विशयाचो पुर्विल्ले समाजरचनेंत आस्पाव आशिल्ल्याचे दाखले मेळटात. इम्होटेप (Imhotep) हो (क्रि. पयलीं ३०००) इजिप्ताच्या झोसर (Zoser) राजाकडेन मुखेल वैज आनी मुखेल न्यायमुर्ती म्हणून आशिल्लो. ताणें वैजकी गिन्यान आनी कायदो हांची सांगड घाली, तेन्नासावन ताका पयलो न्यायवैजकी तज्ञ मानतात. मड्याची चिकित्सा करपाची पद्दत इजिप्तांत खूब पयलींच्या काळासावन चलताली अशें मानतात.

रोमी संस्कृतीच्या इतिहासांत कांय अशाच घडणुकांचो आसपाव आसा. तातूंत ज्युलियस सिझर राजाच्या मरणाची घडणूक नोंद केल्या, तेप्रमाण क्रिस्त पयलीं ४४ वर्सा ताका मरण आयलें. तेन्नाच्या न्याय वैजकी तज्ञांनी ताचे कुडीचो अभ्यास करून निश्कर्श काडलो की ताचे कुडीचेर २३ घाय आसून ताच्या हड्ड्यावयलो घाय चड खोल आनी आरपार गेल्ल्यान ताका मरण आयलें. सुमार दोन हजार वर्सांपयलीं ग्रीस देशांत हिपॉक्रेटस् (Hippocrates) हाणें वैजकी शास्त्र आनी कायदो हांचो अभ्यास करून वैजांखातीर आचारसंहिता थारायली. 'हिपॉक्रेटाचो सोपूत' (Hippocrates Oath) अशा उतरांनी, ही आचारसंहिता वळखतात.

चीन देशांत ह्यी युआन लू' / (Hsi Yuan Lu) ह्या ग्रंथांत मरणा उपरांत कुडीचो अभ्यास करपाखातीर मुद्दे मांडल्यात. तांच्या आदारान मरणाचें कारण थारोवप सोंपें जाता. हो ग्रंथ, खोलायेन अभ्यास करून १३ व्या शेंकड्यांत रचला आसुंये अशें मानतात. सतराव्या आनी अठराव्या शेंकड्यांमदीं जर्मनी देशांत ह्या विशयाचेर खूब वावर केलो. Corpus Juris Medico - Legale हो एम्. बी. वालेन्तिनी हाणें बरयल्लो जर्मन भाशेंतलो ह्या विशयावयलो पयलो ग्रंथ १७२२ वर्सा उजवाडा आयलो. फ्रांसांत आंतुआन लुई हाणें गोळ घेवन मेल्ल्या मनशांच्या आगांवयल्यो खुणो आनी आत्महत्येच्या खुणांच्या फरकांचें वर्णन १७६३ वर्सा उजवाडायलें. एफ. ई. फोदेरे हाणें ह्या विशयावयलो आपलो म्हान ग्रंथ १७९८ वर्सा उजवाडायलो. तशेंच ए. ए. तारेद्य हाणेंय त्या शास्त्रांत मोलादीक भर घाली.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत साबार देशांतल्या तज्ञ लोकांनी आपल्या अभ्यासान न्याय वैजकीच्या मळार भोव मोलादीक वावर केला. १९३२ वर्सा हार्वर्ड विश्वविद्यालयांत ह्या विशयाचेर पदव्युत्तर अभ्यासक्रम आपणायलो.

न्याय आदार वैजक शास्त्राचो विस्तार खूब व्हड आसा. वैजकीचे सगळे फांटे आनी तांचो अभ्यास तशेंच जीवशास्त्र, वनस्पतशास्त्र, जंतूशास्त्र, भौतीकशास्त्र, रसायनशास्त्र, भूगर्भशास्त्र, वखदांशास्त्र अशे कितलेशेच विशय न्याय आदार वैजकीच्या शास्त्रांत येतात. ते ते प्रमाण अभ्यास करून न्याय वैजक निर्णय घेवंचो पडटा. हाताचे ठशे (Fingerprints), पांयांचे ठशे, ओठांचे ठशे असल्या बारीक गजालींचोय अभ्यास ह्या विशयांत येता.

विमान अपघातांत वा हेर कसल्याय अपघातांत जेन्ना शरीर विच्छिन्न जावन मनशाची वळख मेळना तेन्ना हात, पांय, हाडां हांचो अभ्यास वळख पटोवपाक मार्गदर्शक थरता. रानांत मेळिल्लो हाडांचो सांगाडो मनशाचो काय जनावराचो आनी मनशाचो आसल्यार दादल्याचो काय बायलेचो हे

विशीं अभ्यास करून ते व्यक्तीची उंचाय, पिराय हे विशींच्या गजालींचेर न्याय आदार वैजकी तज्ञ उजवाड घालतात. तशेंच मरून कितलो वेळ जाला आसतलो हाचोय अदमास करपाक हें शास्त्र आदार करता. मनशाच्या मरणाचें कारणूय ह्या अभ्यासांत होलमता. कोणूय मनीस आवय बाळंत जावंचे पयलीं मेला वा बाळंटेरा उपरांत मेला तशेंच बुडून मरण आयलां काय मारून उदकांत उडयला ह्या सारक्या गजालीं फाटलें सत उजवाडाक हाडपाचें काम न्यायवैजकी तज्ञ करतात. अशे तरेन गुन्यांवकारी मनशाक ख्यास्त करपाच्या कामाक न्याय वैजकी शास्त्र आदार दिता. Superimposition चें तंत्र वापरून अमूक मनशाची ती कवटी आसूं येता वा ना हें थरोवंक येता. तज्ञ लोक ती कवटी परतून घडोवन म्हळ्यार तिचेर सगळे कृत्रीम स्नायू परतून बसोवन मेल्लो मनीस कसो दिसतालो आसुंये हें थरयतात. तशें केल्ल्यान फुडली न्यायालयीन चवकशी करपाक सोंपे जाता. कोणूय मनीस मरता तेन्ना दोतोराक ताचे पिडेचें निदान करपाक कठीण जाल्यार न्याय वैजकी तज्ञ ताची पिडा वळखूंक शकतात. केन्ना केन्ना कांय वखदांक लागून वा वखदांतली भरसण मरणाक कारण जावं येता अशा कागाळींनी न्याय आदार वैजकी तज्ञ सत सोदून काडपाक मोलादीक आदार करता.

सदद्याचे दिसपट्टे जिणेंत खून, आत्महत्या, भृणहत्या तशेंच बॉम, फारपेट, बलात्कार अशा तरांच्या गुन्यावांनी न्याय आदार वैजकी तज्ञ मोलादीक वावर करता आनी ह्या वावरा उदेशीं न्यायालयांचें काम खूब सोंपें जाता.

– डॉ. दयानंद मंगेश राव

**न्याय संस्था :** दोन पक्षकारांमदल्या झगडयांचो तिसरे व्यक्तीकडल्यान निवाडो करपाक घडयल्ली संघटना वा यंत्रणा म्हळ्यार न्यायसंस्था. पुर्विल्ल्या काळांत जेन्ना दोन मनशांमदीं वा पंगडांमदीं झगडे जातालें, तेन्ना त्या तंट्याचो निवाडो ते मनीस वा पंगड आपल्या शारिरीक बळग्याचेर करतालें. न्यायसंस्था हो हाचेमुखावयलो पांवडो आनी मनशाचे संस्कृतीक उदरगतीचो म्हत्वाचो भाग. न्यायसंस्थेचे तीन मुखेल घटक आसात. दोन पक्षकार, तांचेमदीं उपरासपी तंटो आनी तंट्याचो निवाडो करपी तिसरी व्यक्ती.

न्यायसंस्थेची मुखेल शक्त म्हळ्यार, लोकांमदीं न्यायसंस्थेविशीं आशिल्ली आदराची भावना. वयले वयर पळोवंक अशें दिसता की न्यायखात्याच्या आदेशांक शासनाचे शक्तीचोच आदार आसता. पूण दुसरे वटेन पळेत जाल्यार न्यायखात्याचे आदेश पाळपाची शासनाचेर सक्तीच उरता.

केन्ना केन्ना निवाडो करपाखातीर कायदयाची गरज आसताच अशें ना. दोनूय पक्षकारांचें म्हणणें आयकून त्या तंट्यापुरतो निकाल दिवं येता. पूण न्यायबुद्दीचें समाधान जावपाखातीर समान स्वरुपाच्या झगडयांचो निर्णय सारको जावंक फावो, ह्या तत्त्वाप्रमाण खंयच्या वेळार कोणें कशें वागपाचें हें थरोवपाची गरज उपरासली; ताका लागून निवाडो करतना समाजीक रुढी आनी धर्मीक आज्ञांचें पालन करपाक सुरवात जाली. तेचप्रमाण कसल्याय तंट्याचो निर्णय करतना तसल्याच तंट्याचे पोरणे निर्णय तपासून पळोवपाची प्रथा जावन पडली. हातूंतल्यान 'बंधनकारक पूर्वदाखल्याची' (Binding Precedent) कल्पना जल्माक आयली. समाजीक रुढी, नितीक आनी धर्मीक संकेत हेच सुर्वेचे कायदे आसले. शासनान तयार केल्लो धर्मातीत कायदो बरोच उसरां अस्तित्वांत आयलो.

न्यायदानाचें काम सुर्वेक धर्मगुरूंच्या हातांत आसलें. धर्मवचनां हो कायदयाचो मुखेल आदार आसलो. देवाक प्रसाद लावपाची प्रथा भारतावांगडाच ग्रीस, इजिप्त, इटली ह्या देशांनी आसली. न्यायालयां, देवळांनी भरतालीं आनी पुजारी न्यायदान करताले. कालांतरान युरोपांत धर्मीक न्यायालयां स्थापन जालीं. पुर्विल्ले न्यायसंस्थेचो भर तंट्याचो निवाडो करपाचेर नासलो. जाल्यार दोगांय मदल्या एका पक्षकाराचो गुन्यांव साबीत करपाचेर आसलो. सोपूत घेवप, मंत्र म्हणप, प्रसाद लावप, दिव्य करप असल्या पद्दतींक त्या वेळार म्हत्व आसलें. हाचे उपरांतच्या काळांत न्यायसंस्था हो राज्यसंस्थेचोच एक वांटो जालो. न्यायदानाचो अधिकार धर्मगुरू इतलोच राजाचेय कक्षेंत येवपाक लागलो. राजा स्वता वा आपणें नेमिल्ल्या अधिकाऱ्यांच्या आदारान न्यायदान करपाक लागलो. अशे तरेन न्यायसंस्थेचेर राजकीय सत्तेचें नियंत्रण आयलें.

पुर्विल्ल्या ग्रीस देशांत ॲथॅन्सांत न्यायालय भरतालें. ताचें स्वरूप नागरिकांची समिती कशी आसलें. राजा निर्णय दितालो आनी तो देवान राजावरवीं वदयल्लो कौल वा निवाडो अशें मानून घेतालें. इ.स.प. सुमार ४५३ वर्सा ग्रीसांत, भोंवपी न्यायाधिशांची नेमणूक जाली. ते ते सुवातेर वचून निवाडो करप हें तांचें कार्य आसलें. पूण ही पद्दत रोखडीच बंद जाली आनी ॲथॅन्सांत ४० न्यायाधिशांची समिती स्थापन करपाचो रिवाज सुरू जालो. ह्याच सुमाराक भौशीक लवाद पद्दतूय सुरू जाली.

रोम शारांत न्यायसंस्थेची उदरगत बेस बरी जाल्ली. पुर्विल्ल्या रोमी दिवाणी न्यायालयांत सादारणपणान एकूच न्यायाधीश आसतालो. चवकशेचें स्वरूप मुळावें आनी निमाणें अशा दोन पांवडयांचेर थरयल्लें आसलें. खटलो सामकोच किचकटीचो आसल्यार चड न्यायाधीश नेमताले.

सरंजामशाय पद्दतींत धनी न्यायनिवाडो करतालो. दोन कुळांमजगतीं उपरासपी तंटे वा कूळ आनी धनी हांचेमदीं उपरासपी तंटे हांचो निवाडो दिवप हें धनयाच्या हातांत आसलें. हे तंटे चड करून जमनीसंबंदी आसताले आनी ताका लागून धनयाचो न्याय तांचे हक्क बळिश्ट करपाचे नदरेन लागतालो. सरंजामदारांचें हें पक्षपाती धोरण जाग्यार हाडपाक राजाचीं भोंवडे न्यायालयां बऱ्याक पडलीं. न्यायदानाच्या कामाक राजा स्वता वतालो वा आपल्या अधिकाऱ्यांक धाडटालो आनी खुबशा फावटीं कुळांवटेन निवाडो दितालो.

न्यायसंस्थेचे उदरगतींतलो फुडलो पांवडो म्हळ्यार न्यायसंस्थेची शासनाकडल्यान जाल्ली वांटणी. सुर्वेक राजा आपूण न्यायदान करतालो. उपरांत ताचे सल्लागार राजाचे वतीन न्यायदान करपाक लागले. एकाच अधिकाऱ्याकडेन शासकीय आनी न्यायीक अशीं दोन तरांचीं कामां आसलीं. कांय तेंपान ह्या सल्लागारांचीं न्यायासंबंदांतलीं आनी शासकीय कामां वेगळीं जालीं. तेराव्या शतमानांत इंग्लंडांत Court of Exchequer, Court of Common Pleas आनी Court of King's Bench अशीं तीन न्यायालयां स्थापन जालीं. ल्हान स्वरुपाचे तंटे सोडोवपाखातीर Justice of Peace हे अधिकारी नेमपाची पद्दत सुरू जाली आनी सादारण लोकांच्या हातांत न्यायदान करपाचो हक्क पावलो.

फ्रांस देशांत राज्यक्रांती उपरांत न्यायसंस्थेंत उदरगत जायत गेली. थंय अव्वल न्यायालयाचें अधिकारपण व्हडल्या स्वरुपाचें जावन रावलां. अव्वल न्यायालयांवयर अपील न्यायालय आसा आनी ताचेवयर सर्वोच्च

न्यायालय (Supreme Court) आसता. तेभायर थंय शासकीय न्यायालयूय आसा. सरकारी हुकुमांआड दाद ह्या न्यायालयांत मेळटा.

अमेरिकेंत कायदेमंडळ आनी न्यायसंस्था हांचेमदीं चड फरक नासलो. अमेरिका स्वतंत्र जातकूच न्यायसंस्थाय सामकी वेगळी जावन तिका मेकळीक मेळ्ळी. अमेरिकेंत केंद्रीय न्यायसंस्था आनी राज्यांच्यो न्यायसंस्था, अशो दोनूय संस्था अस्तित्वांत आसात. केंद्रीय न्यायसंस्थेचीं न्यायालयां राज्य पातळेचेर लेगीत आसात. तीं फकत राज्यघटनेचेर आदारीत संघराज्यीय प्रस्न वा संघराज्यांच्या कायद्याविशींचे तंटे सोडयतात. संघराज्यीय सर्वोच्च न्यायालयांत अपील करपाची तजवीज केल्ली आसा.

रशियेंत न्यायसंस्थेचेर सुर्वेक सरंजामशायेचो वचक आसलो. साम्यवादी क्रांती उपरांत थंय लोकांची न्यायसंस्था स्थापन जाली. रशियेंत पंचवीस हजारांवयर लोकन्यायालयां आसात. ह्या न्यायालयांवयर प्रदेशीक न्यायालयां आसात आनी सगळ्यांत उंचेलें न्यायालय म्हळ्यार उच्च न्यायालय. हे भायर दर एका कारखान्यांत 'कॉम्रेड कोर्ट' आसात. ह्या कोर्टांत कामगारांच्या बेशिस्तपणाचे वा गैरवर्तुणुकीविशींचे खटले चलतात. रशियेंत ज्युरी पद्दत अस्तित्वांत ना. दर एका न्यायालयांत तीन न्यायाधीश आसतात. तातूंतले दोन सादारण नागरीक आसतात आनी तिसरो कायदोतज्ञ आसता. न्यायाधिशांची वेंचणूक शासना कडल्यान जायना. वेंचणुको घेवन न्यायाधीश वेंचून काडटात.

**न्यायालयांचे प्रकार** – न्यायालयांत चलपी खटले चड करून दिवाणी (Civil) आनी फौजदारी (Criminal) स्वरुपाचे आसतात. तरेकवार न्यायसंस्थांचें एकीकरण करतना इंग्लंडांत नाविक न्यायालय, धर्मीक न्यायालय, वेपाराविशींचें न्यायालय अशीं तरेकवार न्यायालयां रद्द थरयलीं आनी तांचे अधिकार मुखेल न्यायालयाक दिले. फुडें अर्थीक वेव्हाराची व्याप्ती आनी गुंतागूंत वाडपाक लागले उपरांत वेगवेगळ्या न्यायालयांची स्थापणूक जाली.

**प्रशासकीय न्यायालय** – युरोपांत प्रशासकीय न्यायालयाची पद्दतशीर उदरगत जाली. शासनसंस्थेच्या हक्कांची राखण, भौशीक हिताची राखण, अधिकाराभायलें शासकी कृत्य रद्द थरोवप, नागरीक आनी शासनसंस्था हांचे मजगतीं उपरासपी तंटे सोडोवप ह्या सारकीं कामां ह्या प्रशासकीय न्यायालयाचे कक्षेंत आसात. भौशीक हिताचे नदरेन निवाडो दिवप हें प्रशासकीय न्यायालयाचें खाशेलपण. भारतांत मात युरोपाभाशेन स्वतंत्र प्रशासकीय न्यायालयां नात. हांगा मंत्री, सचीव, आयुक्त, न्यायाधिकरण सारकिल्यो संस्था हे प्रस्न सोडयतात. तांच्या निवाड्याआड नागरिकांक उच्च न्यायालयाकडेन गाराणें मांडपाक मेळटा. तशेंच, खाशेली परवानगी घेवन सर्वोच्च न्यायालयाकडेन अपील करूंक मेळटा.

**सेना न्यायालय** – सैनिकी दळांत शिस्त आनी नेम नागरी जिणेपरस वेगळ्या स्वरुपाचे आसतात. हाका लागून स्वतंत्र सेना न्यायालयांची स्थापणूक करपाची गरज उपरासली. चड करून ह्या न्यायालयांचे न्यायाधीश सैन्यांतलेच वडील अधिकारी आसतात. सेना न्यायालयाची चड उदरगत रोमी काळांत जाली. भारत देशांत इंग्लंड देशाप्रमाणच सेना कायदो तयार केलो. हातूंत काळाप्रमाण बदल जायत रावले. १९५० वर्सा लोकसभेन ह्या कायद्याक संमती दिली. नावीक दळाचें न्यायालय १९३४ वर्साच्या नावीक अधिनेमां प्रमाण स्थापन केल्लें. १९५० वर्सा हवाई दळाचेंय वेगळें न्यायालय स्थापन केलें. भारतीय सेनेच्या तिनूय दळांचीं वेगवेगळीं न्यायालयां आसात.

**उद्देगीक न्यायालयां** – उद्देगीक तंट्यांचो आंकडो आनी विविधताय ह्यो दोनूय गजाली उद्देगीक क्रांतीउपरांत खूब प्रमाणांत वाडल्यो. ह्या तंट्यांचो निवाडो करपाखातीर वेगळो कायदो करपाची गरज निर्माण जाली. भारतांत उद्देगीक न्यायालयांच्या मळार खूब उदरगत जाल्या. पगारवसुली, नुकसान - भरपाय हांचेविशीं तंटे सोडोवपाखातीर वेगळीं न्यायालयां आसात. तशेंच, सर्वसादारण मजूर-मालक तंट्याखातीर मजूर न्यायालयां आनी उद्देगीक न्यायाधिकरणां, केंद्रीय आनी राज्य शासनांच्या अधिनेमाप्रमाण स्थापन केल्यांत. संप, टाळेबंदी, नोकरेच्यो अटी, नोकरेंत उपरासपी प्रस्न आनी तंटे हेविशीं उद्देगीक न्यायालयां निवाडे करतात. तांच्या निवाड्याक पाळो दिलोना जाल्यार दंडूय फर्मावपाक शकतात. उद्देगीक न्यायालयाच्या निर्णयाआड उच्च न्यायालयांत अपील करूं येता आनी ताचेवयलें अपील सर्वोच्च न्यायालयाकडेन करचें पडटा.

**वेपारी न्यायालयां** – मध्य युगांत युरोपांत 'Law Merchant' नांवाचो वेपारी कायदो अस्तित्वांत आयलो. जमनीवयल्यान तशेंच दर्यावयल्यान जावपी वेपार सोंपो करपाचे नदरेन हो कायदो फुडें बरोच विकसीत जालो. सद्या फकत फ्रांस, बेल्जियम आनी लॅटीन अमेरिकेंतल्या कांय भागांनी वेपारी न्यायालयां अस्तित्वांत आसात. पूण ह्या न्यायालयांक आंतरराश्ट्रीय पांवडो उरूंक ना.

**भुरग्यांचीं न्यायालयां** – ह्या न्यायालयांचो हेत गुन्यांव करपी भुरग्यांक ख्यास्त दिवप हो न्हय, जाल्यार गुन्यांव करपाक भुरग्यांक कसली परिस्थिती प्रवृत्त करता हाचें निरीक्षण करप आनी बालगुन्यांवकारांचें हीत पळोवपाचे नदरेन फावो ते उपाय येवजप.

**भारतीय न्यायसंस्था** – पुर्विल्ल्या काळांत हेर देशांप्रमाणूच भारतांतूय न्यायसंस्था संघटीत नाशिल्ली. न्यायाचें प्रतीक राजा आनी न्यायदान हें ताचें काम असो समज आसलो. वेव्हारांतल्यो दिवपा - घेवपा विशींच्यो कागाळी, समाजीक आनी वैयक्तीक गुन्यांव हांचो निवाडो राजान करपाचो आसलो. पूण तो निर्णय एकल्याचो जावंक जायना म्हणून न्यायसभा राजाक आदार करताली. कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत न्यायसभा, दावे, गुन्यांव, ख्यास्त, साक्षीदार आनी तांची गवाय ह्या गजालींविशीं विस्तारान म्हायती दिल्ली आसा. मुसलमानी राजवटींत बादशाह हो न्यायवेवस्थेचो मुखेल आसलो. ताच्या हातासकयल मुखेल काजीचें न्यायालय आसतालें. तेभायर दिवाण - ई - अला, दरोगा - ई - अदालत, काझी मुफ्ती, अमीन दप्तर, फौजदारी अदालत, ल्हान अदालत असलीं तरेकवार न्यायालयां आसतालीं. मराठ्यांचे राजवटींत शिवाजीन अश्टप्रधान नेमिल्ले. तातूंत एक न्यायाधीश आसतालो आनी तो न्यायवेवस्थेचो मुखेल आसतालो. ब्रिटिशांनी १७२६ वर्सा कलकत्ता, मद्रास आनी मुंबय शारांनी 'Mayor's Court' नांवाच्या न्यायालयांची स्थापणूक केली. १७७३ वर्सा कलकत्त्याक सर्वोच्च न्यायालयाची स्थापणूक जाली. मद्रास आनी मुंबय 'Records Court' नांवाचीं न्यायालयां आसलीं. मागीर तीं बरखास्त जावन 'सर्वोच्च न्यायालय' स्थापन केलें. १८६१ वर्सा केल्ल्या High Court Act ह्या कायद्याप्रमाण मुंबय, कलकत्ता आनी मद्रास उच्च न्यायालयां निर्माण केलीं. १९३५ वर्साच्या अधिनेमाप्रमाण मध्यवर्ती न्यायलय स्थापन केलें, ताका संघ न्यायालय अशें म्हण्टाले. ताचेवयलो अपील प्रिवी काउन्सिलाकडेन करचो पडटालो. १९४९ वर्सा प्रिवी काउन्सिलाचो हिंदुस्तानावयलो अधिकार काडून घेतलो आनी संघ न्यायालयाचें रुपांतर सर्वोच्च न्यायालयांत जालें.

२६ जानेवारी १९५० सावन नव्या संविधानाप्रमाण संघ न्यायालय सोंपून दिल्लीक सर्वोच्च न्यायालय निर्माण केलें.

न्यायालयांमुखार येवपी प्रकरणां चड करून दिवाणी आनी फौजदारी ह्या दोन प्रकारांनी वांटून घेतात आनी न्यायाधिशांची कार्यकक्षा थरयतात. दिवाणी, फौजदारी आनी कार्यकारी अशीं तीन तरांचीं न्यायालयां आसतात. जिल्ह्याचे मुखेल सुवातेर जिल्हो न्यायाधीश आसता. जिल्ह्याच्या दर एका तालुक्याच्या गांवांत एक वा तालुको व्हडलो आसल्यार चड न्यायाधीश आसतात. दिवाणी प्रकरणा संबंदांत न्यायकक्षा वा अधिकारिता तीन गजालींचेर आदारिल्ली आसता. १) दाव्याचें स्वरूप २) दाव्याचे रकमेचो आंकडो ३) थरावीक वाठारावयलें नियंत्रण. ही प्रदेशीक कक्षा सरकारी आदेशाप्रमाण थरयतात. कनिश्ठ न्यायालयांच्या निर्णयाआड जिल्हो न्यायाधिशाकडेन आनी वरिश्ट दिवाणी न्यायालयाच्या निर्णयाआड उच्च न्यायालयाकडेन अपील करपाक मेळटा. फौजदारी खटल्यांनी दर एका जिल्ह्यांत जिल्हो न्यायाधीश आसता. जिल्ह्याचो न्यायाधीश दिवाणी आनी फौजदारी अशीं दोनूय तरांचीं कामां पळोवपाक शकता. ह्या न्यायाधिशाच्या हाताखाला पयलो वर्ग आनी दुसरो वर्ग न्याय दंडाधिकारी आसतात. तांचेकडल्यान गंभीर स्वरुपाचे खटले जिल्हो न्यायाधिशाकडेन धाडून दितात. जिल्हो न्यायाधिशांच्या निवाड्याआड उच्च न्यायालय आनी ताचे उपरांत सर्वोच्च न्यायालय ह्या अनुक्रमान अपील करपाक मेळटा. सर्वोच्च न्यायालयान दिल्ले निर्णय सकयल्ल्या न्यायालयांचेर बंधनकारक आसतात. सर्वोच्च न्यायालय आनी उच्च न्यायालयांच्या न्यायाधिशांच्यो नेमणुको राश्ट्रपती करता. न्यायसंस्था निर्भय, निःपक्ष आनी कसल्याच दबावासावन मुक्त आसलेबगर न्याय मेळपाक कठीण जाता. न्यायालयाचें स्वातंत्र्य हें कायद्याचें राज्य 'Rule of Law' हे संकल्पनेचेर आदारून आसता.

– ॲड. अमोल थळी

**न्यायसुत्रां :** अक्षपाद गौतम हाणें बरयल्लो न्यायशास्त्रावयलो मूळ ग्रंथ. हातूंत पांच अध्यायांचो आस्पाव जाता आनी दरेका अध्यायाचे दोन वांटे केल्ले आसात. त्या दरेका वांट्याक आह्निक अशें नांव आसा. पयल्या अध्यायांत ११ प्रकरणां आनी ६१ सुत्रां, दुसऱ्या अध्यायांत एक प्रकरण आनी १३७ सुत्रां, तिसऱ्या अध्यायांत १६ प्रकरणां आनी १४५ सुत्रां, चवथ्या अध्यायांत २० प्रकरणां आनी ११८ सुत्रां आनी पांचव्या अध्यायांत २४ प्रकरणां आनी ६७ सुत्रां आसात. अशें वाचस्पतिमिश्रान आपल्या न्याय सुचीनिबंध ह्या ग्रंथांत बरयलां. न्यायसुत्रांतलीं कांय सुत्रां अशीं –

प्रमाण - प्रमेय - संशय - प्रयोजन - दृष्टान्त - सिध्दान्त
अवयव - तर्क - निर्णय - वाद - जल्प - वितण्डा - हेत्वाभास
च्छल - जाति - निग्रहस्थानानां तत्त्वज्ञानान्निःश्रेयसाधिगमः ।

**अर्थ** – प्रमाण, प्रमेय, संशय, प्रयोजन, दृष्टान्त, सिध्दान्त, अवयव, तर्क, निर्णय, वाद, जल्प, वितंडा, हेत्वाभास, छल, जाती आनी निग्रहस्थानां ह्या पदार्थांच्या तत्त्वगिन्यानान मोक्षाची प्राप्ती जाता.

इन्द्रियार्थसन्निकर्षोत्पन्नं ज्ञानमव्यपदेश्यमव्यभिचारि
व्यवसायात्मामं प्रत्यक्षम्

**अर्थ** – इंद्रीय आनी विशय हांच्या संबंदांपसून तयार जाल्लें दुबावाविरयत आनी व्यभिचारी अशें जें गिन्यान ताका प्रत्यक्ष अशें म्हण्टात.

आप्तोपदेशः शब्दः ।
आप्तांचो उपदेश हेच शब्द प्रमाण आसात.

आत्मशरीरेन्द्रियार्थबुध्दिमनःप्रवृत्तिदोषप्रेत्यभावफलदुः
खापवर्गास्तु प्रमेयम् ।

**अर्थ** – आत्मो, शरीर, इंद्रीय, अर्थ, बुध्दी, मन, प्रवृत्ती, दोश, प्रेत्यभाव, फळ, दूख आनी अपवर्ग हीं प्रमेयां आसात.

पयल्या अध्यायांत सोळा पदार्थांचीं नांवां आनी लक्षणां सांगल्यांत आनी उरिल्ल्या ग्रंथांत ह्या लक्षणांची परिक्षा केल्ली आसा. दुसऱ्या अध्यायांतल्या पयल्या आह्निकांत संशय, प्रमाणसामान्य, प्रत्यक्ष अवयव, अनुमान, वर्तमान, शब्दसामान्य आनी शब्दविशेश अशीं आठ प्रकरणां आनी दुसऱ्या आह्निकांत प्रमाणचतुष्टय, शब्दनित्यत्व, शब्दपरिणाम आनी शब्दपरिक्षा अशीं चार प्रकरणां आसात. तिसऱ्या अध्यायांच्या पयल्या आह्निकांत आत्मो, शरीर, इंद्रीयां आनी इंद्रियांचे विशय हांचें विस्तारान विवेचन आयलां. तेचपरी हातूंत इंद्रीयभेद, देहभेद, चक्षुरद्वैत, मनोभेद, अनादिमरण, शरीरपरीक्षा, इंद्रीयपरीक्षा, इद्रियनानात्व आनी अर्थपरीक्षा हांचेंय विवेचन आयलां. दुसऱ्या आह्निकांत बुद्द, मन आनी अदृश्ट ह्या विशयांचें वर्णन आसा.

चवथ्या अध्यायाच्या पयल्या आह्निकांत प्रवृत्ती आनी दोश हांचीं लक्षणां, दोशांची परीक्षा, प्रेत्यभावाची परीक्षा, शुन्यतेचें उपादान आनी निराकरण, ईश्वराचें उपादानकारणत्व, आकस्मिकत्व, सर्वानित्यत्वाचें निरसन, सर्वनित्यत्वाचें निराकरण, सर्वस्वलक्षणपृथक्त्वाचें निराकरण, सर्वशुन्यत्वाचें निराकरण, सांख्य एकान्तवादाचें निराकरण, फळपरीक्षा, दुःखपरीक्षा आनी अपवर्गपरीक्षा हीं चवदा प्रकरणां आनी दुसऱ्या आह्निकांत तत्त्वज्ञानोत्पत्ती, अवयवी, निरवयव, बाह्यर्थभंगनिराकरण, तत्त्वज्ञानाभिवृध्दी आनी तत्त्वज्ञान परिपालन अशीं स प्रकरणां आसात.

पांचव्या अध्यायांतल्या पयल्या आह्निकांत जातिषट्क, प्राप्तिसत्र आदी सतरा प्रकरणां आसात. दुसऱ्या आह्निकांत न्यायाश्रित पांच निग्रह, अभिमतार्थ उल्लेख करूंक नाशिल्ले चार निग्रह, स्वसिध्दान्ताक योग्य अशा प्रयोगाभासाचे तीन निग्रह आनी निग्रहस्थानविशेश आदी विशयांचो उल्लेख आसा.

न्यायदर्शनाचेर जायते ग्रंथ आसले तरी न्यायसुत्राक एक आगळीच सुवात आसा. गौतमान ह्या ग्रंथांत प्रमाण आनी तर्क हांचेर चड भर दिला. पूर्वपक्षाची मांडावळ तो निपक्षपातिपणान करता. आपल्या सिध्दांतांचेर ताचो खर विश्वास आसा. मोक्षाची प्राप्ती हे हेर दर्शनांप्रमाण न्यायशास्त्राचेंय परम लक्ष्य ताणें मानिल्लें आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**न्युमोनिया :** घातक अशा सुक्ष्म किटाणूंची लागण जावन पुलमांवांक सूज येता ताका न्युमोनिया म्हण्टात. न्युमोनियाचे दोन प्रकार आसात. ते म्हळ्यार-

१. खाशेलो न्युमोनिया – हो न्युमोनिया खास अशा जंतूपसून उपरासता.

२. शोशणजन्य न्युमोनिया (Aspiration) – हातूंत श्वसन तंत्राचे विकृतीक लागून सौम्य स्वरुपाचे रोगजंतू न्युमोनियाक कारणीभूत थरतात.

१. ज्या सुक्ष्म जंतूपसून खाशेल्या न्युमोनियाची लागण जावं येता. ते हिमोफायलस इन्फ्ल्युएंझा, स्ट्रॅप्टोकॉकस न्युमोनिया, स्ट्रॅफिलोकॉक्कस

पायोजिनस, क्लेब्सीएला न्युमोनिया आनी मायकोबॅक्टेरियम ट्युबरकुलोसीस. ह्या न्युमोनियाचे वायरस किटाणू अशे - कोक्षेला बूरनेटी, क्यू फीवर, मायकोप्लासमा न्युमोनिया आनी क्लामिडीया.

खाशेलो न्युमोनिया चड करून न्युमोकोक्कस ह्या सुक्ष्म जंतूपसून जाता. हातूंत पुलमांवाचो एक वा चड भाग वा शीर घट जांव येता. हो रोग ल्हान व्हड कोणाकूय जावं येता. पूण मध्यम पिरायेच्या आनी तरणाट्यांक ह्या रोगाची लागण चड जाता. थंडेच्या दिसांनी ह्या रोगाची लागण चड पातळटा. एका मनशाचे खांकीच्या शिंतोड्या वरवीं ह्या रोगाची लागण दुसऱ्या मनशाक जावंक शकता. जर रोग्यान फावो तशे आनी वेळार उपाय घेतल्यार ह्या रोगाचे कसलेच वायट परिणाम जायनात आनी हो रोग बरो जावं येता. तेचपरी रोग्यान खांकतना तोंडार कपडो धरप गरजेचें आसता.

**लक्षणां -** ह्या रोगांत अकस्मात तकली आनी आंग दुखून १०२° - १०४° सें. मेरेन जोर येता वा ताका ओंकारो येवं येता. ल्हान भुरग्यांक कांय वेळार मारुनूय येता. पुलमांवाचे जे वटेन ताची लागण जाता थंय स्वास घेतना वा खांकतना दुखता. न्युमोनियाच्या स्वरुपावयल्यान उणी चड धांप मारता. सुर्वेक सुकी खांक येता पूण उपरांत काळसार वा रक्सावल्ली थुकी येवंक लागता. कांय वेळार नाडी जलद चलता, रक्तदाब देंवता, आंग हून पूण सुकें आसता; तोंड तांबडें पूण निळसर जाता, जायते खेपे ओंठ फुट्टात आनी रगतांत न्युट्रोफिल नांवाच्या धव्या रक्तपेशींची खूब वाड जाल्ली आसता. सुक्ष्मजंतूनाशक वखदां घेतकूच ह्या रोगाचेर २४-४८ वरां भितर गूण पडटा. आनी सप्तका भितर पुराय रोग बरो जावं येता. सप्तका भितर ह्या रोग्याक गूण आयलोना जाल्यार रोगाचो वायट परिणाम जाला अशें समजुपाचें. उपचाराक चड वेळ लागल्यार रोग्याक मरणूय येवंक शकता. तशेंच चड जाण्टेपणांत वा खूब अशक्त मनशाक ह्या रोगाची लागण जाल्यार मरण येवंक शकता. हड्डुच्या क्ष-किरणांत न्युमोनिया जाल्लो भाग पळोवंक धव्या कुपावरी अंधूक दिसता.

**दुश्परिणाम -** १. पुलमांवाच्या एका भागांत जाल्लो न्युमोनिया दुसऱ्या भागांतूय पातळूंक शकता.

२. जाण्टेपण, जीर्ण ब्रॅंकायटीस, एम्फीसॅमा, खर न्युमोनिया, पुलमांवाचो कांक्र वा ब्रॅंकीयक्टीसीस जाल्यार न्युमोनिया खूब दीस आंगार उरूं येता.

३. छातयेंत उदक वा पूं जावन येवप.

४. रक्तदाब देंवूं येता.

५. न्युमोनिया वरवीं काळजा भितल्ल्या थराकूय सूज येवंक शकता वा काळीज जातूंत आसता ती पोती सुजता आनी

६. मेंदूजोर जावंक शकता.

**हेर जातीचे खाशेले न्युमोनिया -** १. स्टॅफिलोकोकायजन्य न्युमोनिया - स्टॅफिलोकोक्कस पायोजिनस ह्या जंतूंपसून हो रोग जाता. ह्या जंतूंची सरळ पुलमांवाक लागण जावं येता वा हाडांत पूं जाल्लो आसल्यार रगतांतल्यान लागण जाता. खूबशा फावटीं न्युमोनिया फ्लूच्या वायट परिणामांच्या रुपांत उपरासता.

२. क्लेबसिएल्ला न्युमोनिया - क्लेबसिएल्ला न्युमोनि ह्या जंतूपसून ह्या रोगाची लागण केन्नाय जाता. पूण खूबशा फावटीं हो जीवघेणोय आसूं येता.

३. ट्यूबरक्युलोसीस न्युमोनिया - मायकोबॅक्टेरियम ट्यूबर क्युलोसीस ह्या रोगजंतूपसून केन्नाय ह्या रोगाची लागण जावं येता. हाचीं लक्षणांय किरकोळ आसतात.

व्हायरस वा ल्हान बॅक्टेरियाक लागून जाल्ल्या न्युमोनियाचीं लक्षणां सादारण एकसारकींच आसतात आनी सौम्य स्वरुपांत कितलेशेच दीस रोगी तीं आपल्या आंगार सोंसता. हाचें क्ष-किरणा बगर निदान करप कठीण जाता. हातूंत प्लीहाक सूज येवं येता. पूण धव्या रक्तपेशींच्या प्रमाणांत व्हडलीशी वाड जाल्ली दिसना. कांय वेळार ह्या रोगाचेर पेनिसिलीन फावो तितलें गूण दिना. कांय वेळार वखदांबगर ५-१० दिसांभितर न्युमोनिया आपशींच बरो जावंक शकता. पूण तो व्हड स्वरुपाचो आसल्यार वा व्हायरसाची मेंदवाक लागण जायत जाल्यार रोग्याक मरण येवं येता. फ्लू आनी हुरहुरें आयिल्लें आसतना व्हायरस न्युमोनिया जांव येता. मुगांयेदच्या आकाराचे थिपके पुराय पुलमांवां भोंवतणीं आयिल्ले क्ष-किरणांत स्पश्ट दिसतात.

आदेनो व्हायरसाक लागुनूय न्युमोनियाची पिडा लागता. कांय खेपे १-२ म्हयन्यांचे पिरायेच्या भुरग्याक रॅस्पीरेटरी सीन्सीटीयल वायरसाची लागण जावंक शकता. अजून मेरेन हाचेर खास वखद वा वासिनां येवंक नात. खूबशा फावटीं हॉस्पिटल उपचार जालेना जाल्यार त्या भुरग्याक मरण येवपाचो हुस्को आसता. इन्क्युबेटरा सारक्या उपचार सुविधांचो आस्पाव जाल्ल्याक मरणाचें प्रमाण बरेंच उणें जालां. क्लॅमिडिया ह्या जंतूची (Psittacosis) लागण जाल्ल्या शेवण्याच्या सुक्या गुवा पसून न्युमोनिया जावंक शकता. हाचेर टॅट्रासायक्लिनान बरो गूण पडटा. क्यू फिवर हो कोक्षेला बूरनिटी ह्या जंतू पसून तशेंच बादीत गोरवां आनी बोकड्यापसून उपरासता.

**२. शोशणजन्य न्युमोनिया -** हातूंत श्वसन तंत्राच्या वयल्या भागांतल्यान भितर स्वास वचपाच्या वेळार सकयल्या भागांतल्या वायू कोशांत सुक्ष्मजंतू वतात आनी मागीर थंय सूज येता. ह्या प्रकारांत थुकयेची परिक्षा केल्यार हे सुक्ष्मजंतू मेळटात. श्वसनतंत्राच्या ल्हान व्हड इबाडाक लागून कांय वेळार नाक वा तोंडांतलें शेंबूड चुकून पुलमांवां मेरेन पावता आनी तेन्ना अशे तरेचो न्युमोनिया जावंक शकता. ह्या न्युमोनियाक कारणीभूत अशे सौम्य स्वरुपाचे सुक्ष्मजंतू अशे - सॅप्टोकॉक्काय, न्युमोकोक्काय हिमोफायलस इन्फ्लूएन्झा, व्हिन्सेन्टस स्पायटोकेटस आनी फ्युजीफॉर्म बॅसिलाय.

**शोशणजन्य न्युमोनियाचे चार उपप्रकार आसात -** १. खर ब्रॅकोन्युमोनिया २. सादो शोशणजन्य न्युमोनिया ३. थीर न्युमोनिया (Hypostatic) ४. शस्त्रक्रिये उपरांतचो न्युमोनिया.

**१. ब्रॅकोन्युमोनिया -** हो दोनूय पुलमांवांक कुडक्या कुडक्यांनी इल्ले इल्लेशे कडेन पातळावन बादा जाता. ही लागण चड करून भुरगेपणांत जावं, हुरहुरें, कोलेखांक सारक्या दुयेसांत जाल्यार, जाण्टय्रांक जीर्ण ब्रॅंकायटीस एम्फीसेमा सारको त्रास आशिल्ल्याक चड प्रमाणांत जावं येता. हेर लक्षणां तींच पूण सौम्य स्वरुपांत आनी छातयेच्या दोनूय वटांनी जाणवता. हालीं तेंपार ॲण्टीबायोटिक्सांक लागून चडसो वायट परिणाम जावंक पावना. पूण चड ल्हान भुरगीं, खूब जाण्टेपण, मुत्रपींड दाह, काळजाच्या विकारा सारके त्रास आसल्यार ताचो वायट परिणाम जावंक शकता. थंडेचेर वेळावेळार वखदां घेतल्यार हो न्युमोनिया टाळूंक येता.

**२. सादो शोशणजन्य न्युमोनिया -** नाक वा ताळ्यांतली थंडी चुकून पुलमांवांमेरेन पावली जाल्यार न्युमोनिया जावं येता. हो चडसो एकेच वटेन जाता आनी छातयेच्या क्ष-किरणान हाचें खरें निदान जावंक शकता. चड करून अँटिबायोटिक्सान १-२ दिसांनी गूण येता पूण कांय खेपे कायम

स्वरूपाचे दुश्परिणामूय उपरासतात.

**३. थीर न्युमोनिया** - हांथरूणार सतत पडून आसल्यार, खूब अशक्त वा जाण्ट्या मनशाक हो जावंक शकता. जाका थुकपाची लेगीत शक्त नासता ताचे श्वसननळयेंतलें शेंबूड पुलमांवांच्या सकयल्या भागांत वचून न्युमोनिया जावंक शकता. हाची बादा दोनूय पुलमांवांक जावंक शकता. उठपा-बसपाची तांक नाशिल्ले दुयेंतीक दिसांतल्यान जायते फावटीं एके कुशीवयल्यान दुसरे कुशीर करीत रावल्यार हो न्युमोनिया टाळूं येता.

**४. शस्त्रक्रियेउपरांतचो न्युमोनिया** - पोट वा छातयेचे शस्त्रक्रियेउपरांत घायाच्या खर दुखीक लागून खांकप शक्य जायना तेन्ना छातयेतलें शेंबूड थंयचे थंयच सांठून न्युमोनिया जावंक शकता.

**पुलेल्लो न्युमोनिया** - हो एक प्रकारचो अपघाती न्युमोनिया. हातूंत पुलमांवांत पूं जावन पुलमांवांची कायम स्वरुपाची नासाडी जावं येता. स्टॅफीलोक्कोकस, पायोजिन वा क्लेबसील्ला न्युमोनिया ह्या सुक्ष्मजंतूं वरवीं हो न्युमोनिया जाता. तोंड वा नाकाचेर शस्त्रक्रिया चालू आसतना गुंगी दिल्ली आसता. अशा वेळार दुशीत शेंबूड पुलमांवांत वचूं येता. तेचपरी दुयेंसान बेशुद्ध जावन पोटांतली ओंक पुलमांवांत वचूं येता. तेचपरी पुलमांवांनी झटको येतकूच वा बंद पुलमांवांक सुक्ष्मजंतूंची लागण जावं येता. हो न्युमोनिया चडसो एकेच वटेन जाता आनी तो चडसो पुलमांवांच्या वयल्या भागाक जाता. पुलमांवांचो कॅन्सर जाल्ल्या भागांतूय न्युमोनिया जावं येता. हाचीं चडशीं लक्षणां हेर न्युमोनियावरीच. पूण सुर्वेकूच खाकेंतल्यान पुलेल्लो वा रक्तावल्लो कफ खूब प्रमाणांत वता. १०-१५ दिसांभितर हातापांयांच्या बोटांचीं नाखटां वाटकुळीं जावंक लागतात. वेळार उपचार जालोना जाल्यार वायट परिणाम जावन कायम स्वरुपाची हानी जावं येता. देखीक - पुलमांव निकामी जातात, मेंदवांत आनी बरगड्यांच्या कुशीक पूं जाता.

न्युकोविसीडोसीस ह्या अनुवंशीक दुयेंसाक लागून अपघाती न्युमोनिया जावंक शकता. अकारण अती कार्यक्षम ग्रंथीक लागून भुरग्याचे भलायकेचेर वायट परिणाम जावंक शकता, जाका लागून परत परत अपघाती न्युमोनिया जायत रावता आनी एक दीस मरण येता. स्वास नळयेंत खूब प्रमाणांत विनाकारण शेंबूड तयार जाल्ल्या कारणान भुरगें घुस्मट्टा आनी अपघाती न्युमोनिया जाता. स्वासग्रंथींक अकारण सूज आयिल्ल्या कारणान जोडयेक अपचनूय जावं येता. परत परत न्युमोनियाचे आनी अपचनाचे झटके येवन पुलमांव अशक्त जातात आनी ताका लागून काळिजूय अशक्त जायत वता; काळिज सुजता, फुडें काळिज बंद पडटा आनी भुरग्याक ल्हानपणांतूच मरण येता.

न्युमोनियाच्यो जाती आनी स्वरुपाप्रमाण, रोगजंतू प्रमाण तशेंच थुकी, क्ष-किरणाच्या आदारान फावो ते ॲण्टिबायोटिक्स दिवप हो मुखेल उपाय. देखीक - पेनिसिलीन, सल्फा, टॅट्रासायक्लीन. खर स्वरुपाच्या न्युमोनियाक नवे ॲण्टिबायोटिक्स दितात. देखीक - सेफालेक्सीन, क्युनोलीन, सीप्रोफ्लोक्सासीन, पी-फ्लोक्सासीन, ओ-फ्लोक्सासीन.

न्युमोनियाचो वायट परिणाम जाल्यार रोग्याक हॉस्पिटलांत उपचार दिवंचो पडटा. गरजेप्रमाण मदीं मदीं प्राणवायू, शिरेंतल्यान ग्लुकोज वा ॲंटिबायोटिक दिवचें पडटा. रोग्याच्या छातयेंतलो कफ भायर वचचो देखून ताका एके कुशीर न्हिदोवन दवरचो पडटा. केन्नाय सिरिंगाच्या आदारान छातयेंतलो पूं ओडून काडचो पडटा.

- डॉ. आनंद हळर्णकार

**न्यूझीलँड :** ब्रिटीश राश्ट्रकुलांतलो एक स्वतंत्र देश. दक्षिण पॅसिफिक म्हासागरांत आशिल्लो हो देश, ऑस्ट्रेलिया राश्ट्राचे आग्नेय दिशेक सुमार १६०० किमी. पयस आसा. विस्तार ३४° दक्षिण ते ४७° दक्षिण अक्षांश आनी १६६° उदेंत ते १७९° उदेंत रेखांश. क्षेत्रफळ - २६९,०५७ चौ. किमी. लोकसंख्या ३,३९७,००० (१९९१). न्यूझीलँड हो साबार जुंव्यांचो एक चोमो. पूण मुखेलपणान हो देश उत्तर जुंवो आनी दक्षिण जुंवो मेळून तयार जाला. स्टयुअर्ट होय जुंवो खूब म्हत्वाचो. त्या जुंव्याभायर चॅतम, कॅबेल, करमॅडेक, थ्री किंग्ज, स्नेअर्झ, ॲंटिपडीझ सोलॅंडर, बाउण्टी, ऑक्लॅंड आनी हेर जुंव्यांचो ह्या चोम्यांत आस्पाव जाता. हातूंतले कांय जुवे मुखेल चोम्या सावन शेंकड्यांनी किलोमीटर, पयस आसात. देशाचे अस्तंतेक टास्मन दर्या आसून हेर दिशांनी दक्षिण पॅसिफीक म्हासागर आसा. क्रिस्तांव हो देशाचो मुखेल धर्म आसून, वॅलिंग्टन ही देशाची राजधानी आसा.

**भूंयवर्णन** - न्यूझीलँड देशाचो आंवाठ खूब ल्हान आसलो तरी, थंयची भूंय विंगड विंगड प्रकाराची आसा. पुराजीव म्हाकल्पांत सुमार ५७,००,००,००० वर्सां पयलींसावन थंय जमीन अस्तित्वांत आशिल्ली अशें भूंयशास्त्रज्ञांनी मत मांडलां. उपरांत जमनीचे जडणघडणेंत जमनीची नेटान उलथापालथ जाली. मुखार पुरानूतन युगांत ज्वालामुखीचे क्रियेक सुरवात जाली आनी ती क्रिया साबार वर्सां चालूच रावली. आयज लेगीत ही क्रिया कांय प्रमाणांत उत्तर जुंव्यांचेर चालूच आसा. त्या जुंव्यांचेर ज्वालामुखीचे सडे आसून, थंयच्या चडशा पर्वतांचो उगम ज्वालामुखीवरवीं जाला.

उत्तर जुंव्यांचेर देशांतले अर्द्यापरस चड लोक रावतात. ह्या जुंव्याचो सुमार ६३% भाग ल्हान-व्हड दोंगरांनी आनी पर्वतावळींनी वेश्टील्लो आसा. ईशान्येक कूक सामुद्रधुनीसावन ईस्ट कॅपमेरेन व्हड पर्वतांची रांक आसा. जुंव्याचे दक्षिण दिशेक पिकाळ मळां आसात. जुंव्याच्या मध्य भागार आनी तळ्यां भोंवतणीं ज्वालामुखीसावन तयार जाल्ले सडे आसात. रुअपेदू, नाउरहॉई आनी तॉंगरीरू ह्या तेमकांचेर ज्वालामुखींची क्रिया चालूच आसता. हाका लागून त्या तेमकांक जित्या ज्वालामुखींचीं तोंडां अशें म्हण्टात. त्या प्रदेशांत साबार ल्हानव्हड तळीं, तळयो, धबधबे आनी झरी आसात. अस्तंतेक मानावाटू हें मळ आसून थंयच वाइकॅटो हे सगळ्यांत व्हडले न्हंयेन तयार केल्लें खोल देगण आसा. ऑक्लंड आनी वेलिंग्टन हीं ह्या प्रदेशांतली प्रसिद्ध शारां.

दक्षिण जुंव्याचें क्षेत्रफळ १,५०,४६१ किमी. आसून तो उत्तर जुंव्यासावन २५ किमी. रुंदायेचे कुक समुद्रधुनीन वेगळो केल्लो आसा. ह्या जुंव्याचेर आल्प्स पर्वतरांको सगळ्याक पातळिल्ल्यो आसून चारूय दिशांनी ल्हानव्हड अशीं साबार तेमकां दिश्टी पडटात. ह्या सगळ्या तेमकांभितल्लें कुक हें तेमुक सगळ्यांत उंच आसा (३,७६४ मी.) ह्या तेमका लागसारूच टास्मन ही ३० किमी. लांबायेची हीमन्हंय आसा. तशेंच ह्या जुंव्याचेर हीमन्हंयांनी वेश्टिल्ले साबार सडे आनी तळीं दिश्टी पडटात. दक्षिण आल्प्सचे उदेंतेक कॅंटरबरी हें हांगाचें सगळ्यांत व्हड मळ आसा. हांगाच्या साबार तळ्यांतलें टी ॲनाऊ हें सगळ्यांत व्हड. हांगाच्या आल्पायन चेन आनी हानमर वाठारांनी हून उदकाचे झरे आसात.

न्यूझीलँड देशाच्या उत्तर आनी दक्षिण जुंव्यांचेर मेळून ल्हान व्हड अशो साबार न्हंयो आसात. ह्या चडशा न्हंयांचो उगम पर्वतावळींचेर जाल्लो आसून

चडशो न्हंयो उथळ आसात. वायकॅटो, वाँगनूई, रँगिटीकी आनी वायरोआ ह्यो उत्तर जुंव्यावयल्यो मुखेल न्हंयो आसून क्लूथा, वायटॅकी, टार्यस मॅताउरा, वायमॅकरिरी आनी वाटूआऊ ह्यो दक्षिण जुंव्याचेर आशिल्ल्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो आसात. तशेंच दोनूय जुंव्यांचेर साबार तळीं आसून, तीं चड करून ज्वालामुखीक्रियेसावन तयार जाल्लीं आसात. तातूंतलीं ताउपो, टी ॲनाऊ, वाकटिप तळीं हीं चड म्हत्वाचीं.

**हवामान** - देशांतलें हवामान मुखेलपणान सागरी आसा. पूण गिमाच्या दिसांनी दर्यासावन येवपी शितळ वारो हवामानांतली उश्णताय उणी करता आनी शियाच्या दिसांनी तें उबदार दवरता. हाका लागून हांगाचें हवामान चड करून सौम्य आनी सूखदिणें आसता. देशाच्या उत्तर वाठारांत सरासरी तापमान १५° सॅ. आसता आनी दक्षिण प्रदेशांत ते १२° सॅ. इतलें आसता. दोंगरी वाठारांनी शियाळ्यांत सदांच बर्फ पडटा. थंय वर्सूयभर आंतऱ्यापयऱ्यान पावस पडत आसता. दोंगरी वाठारांनी पावसाचें प्रमाण चड आसून, चडांत चड पावस ७६० सेंमी. पडटा. हांगा ल्हानव्हड भूंयकापांचें प्रमाण चड आसा. दर वर्सा हांगा शेंकड्यांनी भूंयकापांचे धक्के बसतात.

**वनस्पत आनी मोनजात** - न्यूझीलँड देशाची सुमार २०% भूंय रानाखाला आसून, तातूंत विंगड विंगड प्रकारची वनस्पत सांपडटा. हेर खंडांसावन आनी परकी आक्रमणांसावन हे जुंवे खूब काळ वेगळे उरिल्ल्यान हांगा हेर देशांक खबर नाशिल्ली अशीय वनस्पत हांगा सांपडटा. आयज जे वाठार राबित्याक योग्य नात अशा वाठारांनी आनी राखून दवरिल्ल्या वाठारांनी दाट रानां आनी झोंपां पळोवपाक मेळटात. हालींच्या तेंपार ज्वालामुखीसावन तयार जाल्ल्या सड्यांचेर पायन रुखांची व्हडा प्रमाणांत लागवड जाल्ली आसा. रानांची जतनाय घेवपाखातीर आनी नवी रुखावळ वाडोवपाखातीर न्यूझीलँड सरकारान दर एका राज्यांत 'राज्य वनसेवा' खातीं उगडल्यांत. बीच, पायन, फर आनी हेर सदापाचवी उरपी रुखावळ आसून रीमू, मटाई आनी कोनार हीं थळावीं झाडां आसात.

न्यूझीलँड देश खूब काळ वेगळो उरिल्ल्यान हांगा कांय मेजक्याच जातींची मोनजात दिश्टी पडटा. जॅको आनी ट्यूटारा ह्यो शेड्ड्यांच्यो जाती मुळाव्यो न्यूझीलंडाच्योच. हांगा शेड्ड्यांच्यो सुमार २० वेगवेगळ्यो जाती आसात. हांगा पुर्विल्ल्या जातींचेय बेबे पळोवपाक मेळटात. युरोपीय लोक जेन्ना हांगा आयले तेन्ना ताणीं पाळीव मोनजातींवांगडा हेर जनावरांय आपले वांगडा हाडलीं. हातूंत तांबडें हरण, धवे लोकरीचे प्राणी, सोंशे हांचो आस्पाव जाता.

मोनजातीच्या मळार हो देस गरीब आसलो, तरी न्यूझीलँड हो सवण्यांचो सर्ग आशिल्लो अशें म्हण्टात. खाशेली गजाल म्हळ्यार हांगा उडूंक येना अशीं खूब सवणीं आसात. हातूंत मॉआ, किवी, बॅका, नॉटोर्नीस ह्या सवण्यांचो आस्पाव जाता. ह्यूआ, झॅड्लबॅक आनी थ्रश हीं मुळावीं न्यूझीलँडाचींच सवणीं. टूई, फॅनटेल आनी बॅलबर्ड हीं सवणीं ऑस्ट्रेलियांत सांपडपी सवण्यां भाशेन आसात. स्थलांतरीत सवण्यांचोय आंकडो व्हड आसा. जॅनेट हें सवणें ऑस्ट्रेलियेसावन जाल्यार स्कूआ, पॅन्वीन, शाग हीं अँटार्क्टिक प्रदेशांतल्यान आयिल्लीं सवणीं.

**इतिहास** - युरोपीयन वसणूकवादी, न्यूझीलँड जुंव्यांचेर १८ व्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन पावले. त्या वेळार थंय माउरी लोकांचो राबितो आशिल्लो. १९व्या शेंकड्याचे सुर्वेक त्या जुंव्यांचेर साबार युरोपीय वसणूकवादी आनी मिशनरी येवन गेले. पूण १९ व्या शेंकड्याच्या मध्याक ब्रिटीश वसणूकवाद्यांनी हेरांक त्या जुंव्यासावन पयस दवरून आनी थळाव्या माउरी लोकांक आपल्या शेकातळा हाडून थंय आपली सत्ता स्थापीत केली.

न्यूझीलँड देशाची साप्प पोरण्या इतिहासाची म्हायती स्पश्टपणान मेळना. त्या देशाचो पोलिनेशियी इतिहास क्रिस्ती सना पयलींसावन सुरू जालो. पोलिनेशियी काळ खूब तेंप तिगून उरिल्ल्याचें पुरातत्त्वविद्येवयल्यान सिध्द जाता. आरकायव आनी क्लासीक माउरी अशे पोलिनेशियी काळाचे दोन वांटे केल्ले आसात. १८ व्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन युरोपीयन लोक थंय पावले तेन्ना माउरी लोक मुखेलपणान उत्तर जुंव्याच्या देगांनी स्थायीक जाल्ले. तांच्या वेगवेगळ्या पंगडांमदीं आतऱ्या-पयऱ्यान झगडीं चालूच आशिल्लीं. देखून ते लोक झूजकलेंत कुशळ आशिल्ले तेचप्रमाण ते व्हडीं आनी घर बांदकामांतूय कुशळ आशिल्ले. वीणकाम आनी शेतवड हे तांचे मुखेल वेवसाय आशिल्ले.

हॉलंडी भोंवडेकार आबॅल यानसन न्यूझीलँड जुंव्याचेर १६४२ त पावलो. उपरांत डच इस्ट इंडिया कंपनीन थंय वेपार सुरू केलो. नेदर्लंड्सांत आशिल्ल्या झीलंड प्रांतावयल्यान हॉलंडी लोकांनी त्या जुंव्यांक 'नवें झीलंड' (न्यूझीलँड) नांव दिलें. १७६९ -७० ह्या काळांत ब्रिटीश खलाशी कॅप्टन जेम्स कूक हाणें त्या जुंव्यांविशी खूब म्हायती मेळयली आनी त्या जुंव्यांचें वेपारी म्हत्व युरोपी लोकांक पटोवन दिलें. हाका लागून मुखार फ्रँच, ब्रिटीश, रशियी, स्पेनी आनी अमेरिकी वेपारी ताग, सागवान आनी हेर कच्च्या म्हालाच्या सोदांत थंय पावले. त्या जुंव्याचेर ब्रिटीश वसणूक उबारपा खातीर ब्रिटीश राजदूत एडवर्ड वेकफिल्ड हाणें न्यूझीलँड कंपनी स्थापून एक पंगड थंय धाडलो. सुर्वेक न्यूझीलँड हो ऑस्ट्रेलिया वसणुकेचोच वांटो आशिल्लो. पूण १८४० त लॅफ्टनंट गवर्नर विल्यम हॉब्सान थळाव्या माओरींकडेन कबलात (वायटांगी कबलात) करून ब्रिटीश राजाक न्यूझीलँडाचो सत्ताधीश म्हणून मान्यताय मेळ्ळी. जाल्यार ब्रिटीशांनी माओरींचे संपत्ती हक्क मान्य करून घेतले आनी तांची हेर वसणूकवाद्यांसावन राखण करपाचीय जापसालदारकी आपल्या आंगार घेतली. पूण हॉब्सन, माउरी लोकांच्यो जमनी बळजबरीन घेवपाक लागलो तेन्ना १८४५ त माउरी आनी वसणूकवाद्यांमदीं संघर्श निर्माण जालो. १८४८ त जार्ज ग्रे नवो गव्हर्नर म्हणून आयलो. ताणें माउरी लोकांक तांच्या हक्कांची राखण करतलों अशें आस्वासन दिवन थंय शांती प्रस्थापीत केली. ब्रिटीशांनी १८५२ त न्यूझीलँडाक संविधान आनी स्थानीक स्वराज्य दिलें. उपरांत १८५६ त संसदीय राज्यपद्धती आनी मंत्रीमंडळाक परवानगी मेळ्ळी. पूण मुखार केंद्रीय आनी प्रांतिक सरकारांभितर झगडीं आनी जातीवादा वयल्यान दंगे जावपाक लागले. १८६० त माउरी लोकांनी जमनीच्या प्रस्नावयल्यान परतून ब्रिटीशांआड बंड उबारलें. १८६१ त न्यूझीलँडाक भांगरा खाणीचों सोद लागलो. हाका लागून इंग्लंडासावन साबार लोक त्या जुंव्यांचेर येवपाक लागले. अशे रितीन जुंव्यांवयली लोकसंख्या खूब वाडली. तातूंतल्या कांय लोकांनी मेंढरां पोसप, दुदाचो वेवसाय आनी हेर ल्हान - ल्हान उद्देग सुरू केले. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन न्यूझीलँड लोकांच्या जिणेच्यामानांत खूब सुदारणा जाली. १९०७ त न्यूझीलँडाक वसणुकेचें स्वराज्य मेळ्ळें. पयल्या म्हाझुजांत न्यूझीलँडान दोस्त राश्ट्रांक आदार केल्लो. म्हाझुजाउपरांत अर्थीक मंदीचे त्रास न्यूझीलँडाकूय भोगचे पडले. देशाच्या उद्देगधंद्यांचेर वायट परिणाम जाले. १९३५ त मजूर पक्ष सत्तेर येवन ताणें साबार नवे

कायदे केले. तातूंत विधवा बायलांक, अनाथ भुरग्यांक आनी जाण्टयांखातीर खास येवजणो आसल्यो. तशेंच आयात - निर्यातीचेर शासनान निर्बंध घालून थळाव्या लघुउद्देगांक उत्तेजन दिलें. दुसऱ्या म्हाझुजा वेळारूय न्यूझीलंडान दोस्त राष्ट्रांक आदार केल्लो. १९४५ त न्यूझीलँड एकवटीत राष्ट्र संघटनेचो वांगडी जालो. झुजाउपरांत जाल्ले वेंचणुकेंत राष्ट्रीय पक्षाक भोवमत मेळ्ळें. कोरियन झुजावेळार न्यूझीलँडाचे नौसेनेन आनी लश्करान संयुक्त राष्ट्रांच्या फौजांवांगडा झुजांत वांटो घेतलो. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत न्यूझीलँडान आपले आंतरराष्ट्रीय संबंद वाडोवपाचेर भर दिल्लो. मजूर आनी राष्ट्रीय ह्या दोनूय पक्षांनी राष्ट्रीय धोरणांत उद्देगधंद्यांक उत्तेजन दिवन, तशेंच कल्याणकारी राज्य निर्माण करून, अर्थीक मळार उदरगत घडोवन हाडपाखातीर नव्योनव्यो येवजणो चालीक लायल्यो. १९७० उपरांत राष्ट्रीय वा आंतरराष्ट्रीय धोरण थरयतना न्यूझीलँड सरकार स्वतंत्रपणान निर्णय घेवपाक लागलें. देखून न्यूझीलँड आनी ब्रिटनाचे संबंद इबाडत रावले. जाल्यार उद्देगधंदे वाडोवपाखातीर अमेरिकेन तांकां केल्लो आदार आनी मार्गदर्शनाक लागून तांचे भितल्ले संबंद बरे जायत गेले. सद्या न्यूझीलँड संयुक्त संस्थानां, कॉमनवॅल्थ, ओ. ई. सी. डी., साऊथ पॅसिफिक फोरम आनी कोलम्बो प्लॅनाचो वांगडी आसा.

**राज्यवेवस्था** - न्यूझीलँडाची वसणूक सुर्वेकसावन एकेच मध्यवर्ती सत्तेच्या ताब्यांत नाशिल्ली. ऑक्लँड, वेलिंग्टन, नेल्सन, न्यूप्लिमथ, कँटरबरी आनी ओटागो अशो वेगवेगळ्यो स वसणुको आशिल्ल्यो. पूण १८५२ त दर एका प्रांताचेर विधिपरिशद आनी अधिक्षक नेमून संविधानात्मक पद्दत सुरू करून सगळ्या प्रांतांखातीर एकूच वसणूक कायदो लागू केलो. १८५६ त संसदीय राज्यपद्दती आनी मंत्रीमंडळ अस्तित्वांत आयलें. १८७६ त स प्रांतांतलीं मंडळां बरखास्त करून दोन सदनी संसद स्थापीत केली. ग्रेट ब्रिटनची राणी न्यूझीलँडाची राज्यमुखेल आसून ती आपलो प्रतिनिधी म्हणून न्यूझीलँडाच्या शासनाखातीर गवर्नर जनरलाची पांच वर्सांखातीर नियुक्ती करता. मंत्रीमंडळाच्या सल्ल्यान गवर्नर जनरल शासन चलयता. १९५१ त विधान परिशद (लेजिस्लेटिव काउंसिल) बरखास्त केल्ल्यान, सद्या थंय हाऊस ऑफ रिप्रेझेंटेटिव्हज ही एकसदनी संसद पद्दत आसा. ऑगस्ट १९८७ मेरेन संसदेंत वट्ट ९७ वांगडी आशिल्ले. तातूंतले चार माउरी आशिल्ले. ते माउरी लोकांनी वेंचून काडिल्ले माउरीच आसपाक जाय. १८ वर्सां पुराय जाल्ल्या दादल्या - बायलांक मत दिवपाचो हक्क आसा. खंयचेंय विधेयक पास जालेउपरांत तें राणयेचे मान्यतायेखातीर गव्हर्नर जनरलाकडेन धाडटात आनी उपरांतूच ताचें कायद्यांत रुपांतर जाता. लिखीत संविधान, एकसदनी संसदीय शासनपद्दती, मंत्रीमंडळात्मक कार्यकारिणी, उच्चतम अपील कोर्ट हीं न्यूझीलंड संविधानाचीं कांय खाशेलपणां आसात.

मजूर आनी राष्ट्रीय हे थंयचे मुखेल पक्ष. हालींच्या तेंपार न्यू डॅमॉक्रॅटिक, कम्युनिस्ट, सोशल क्रॅडीट लीग, सोशलीस्ट युनिटी हे पक्ष स्थापीत जाल्ले आसात. शासन वेवस्थीत चलचें म्हणून देशाचे २२ शासकीय विभाग केल्ले आसात. त्या तीन उपविभागांनी ८५ काउंटी, १८ जिल्हे, ११८ बॉरो आनी ३ शहरी जिल्ह्यांचो आस्पाव जाता. अपील कोर्ट हें देशांतलें सर्वोच न्यायालय. थंय उच्च न्यायालयूय आसा. देशांतले चडशे कायदे ब्रिटनांत चालिंत आशिल्ल्या कायद्यांचेर आदारीत आसात.

**अर्थीक स्थिती** - शेतवड आनी पशुपालन हे थंयचे मुखेल वेवसाय. देशांतले वट्ट भुयेंतली सुमार दोन - तृतियांश जमीन शेतवडी खातीर आनी गोरवांक चरोवंचेखातीर वापरतात. पिकाळ जमीन, शेतवडीक फावोशें समशीतोश्ण हवामान, संकरीत बीं आनी रसायनीक साऱ्याचो उपेग हांकां लागून शेतकी उत्पन्नांत खूब वाड जाल्ली आसा. लोकवस्तीसावन खूब पयस आशिल्ली जमीन आनी पडींग जमीन लागवडीखाला हाडपाक तेचपरी पिकांची राखण करपाक शेतकामत्यांक सरकाराचो खूब आदार मेळटा. शेत नांगरपाक आनी रोवपाखातीर, तशेंच डीडीटी चे फवारे वा हेर किटकनाशकांचे फवारे मारपाखातीर खाजगी कंपनी आसात. गंव, बार्ली, ओट, क्लोव्हर सीड हीं देशांतलीं मुखेल पिकां. मको, ताग, कांदे, बटाट हीं हेर म्हत्वाचीं पिकां. कांय जुंव्यांचेर सफरचंदांचे व्हड मळे आसात. शेतवडीचेर आदारून आशिल्लो पशूपालन आनी मेंढरां पोसपाचो धंदो हो देशांतलो एक विकसीत धंदो. गोरवांक आनी मेंढरांक चरपाखातीर सरकारान (१९८६) १३,८३१,८३३ हॅक्टर जमीन राखून दवरल्या. बरी लोकर दिवपी मेंढरांच्यो नव्यो जाती तयार करचेखातीर सरकार खूब दुडू खर्च करता. लोकर उत्पादनांत न्यूझीलँडाचो संवसारांत तिसरो जाल्यार लोकरी निर्यात करपांत दुसरो क्रमांक लागता. पशूपालनासावन सहकारी तत्त्वांचेर दूदवेवसाय आनी मासाचो धंदो नेटान चलता. दुदासावन तयार जावपी लोणी, चीझ, प्रक्रिया केल्लें दूद आनी हेर जिनसांची निर्यात जाता. राष्ट्रीय उत्पन्नांत रानासावन मेळपी येणावळीचो वांटो म्हत्वाचो आसा. ऑक्लँड, वेलिंग्टन आनी चामर्झ बंदरां नुस्तेंमारी खातीर प्रसिद्ध आसात. भांगर, बँटोनायट, चीनी माती, लोखण, सिलीका आनी चुन्याखडी हीं देशांत सांपडपी मुखेल खनीजां.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत न्यूझीलँडाच्या उद्देगीक क्षेत्रांत खूब विकास जाल्लो आसा. उद्देगीक उत्पादनाचो वट्ट राष्ट्रीय उत्पन्नांत २५%, जाल्यार निर्यातींत २१% वांटो आसता. अन्नप्रक्रिया, डबेबंदीकरण, मोटार आनी तांचे मेकळे भाग, कागद, लुगट, फर्निचर, यंत्रसामुग्री, पितुळचीं आयदनां, चामड्याच्यो वस्तू आनी तेलशुद्धीकरण हे देशांतले मुखेल उद्देग.

न्यूझीलँडाचे वेपारी संबंद मुखेलपणान राष्ट्रकुलांतल्या देशांकडेन आशिल्ले. पूण हालींसरा इंग्लंड, ऑस्ट्रेलिया, अमेरिका, जपान आनी लॅटीन अमेरिकन देशांकडेन तांचे चड वेपारी संबंद आसात. निर्यात जावपी पदार्थांमदीं लोकर, लोणी, चीझ आनी मास हांचो ८०% वांटो आसता. देशाच्या वट्ट राष्ट्रीय उत्पन्नांत तांचो सुमार १४% वांटो आसता. हालींच्या तेंपार लाकूड, कागद, चामडें आनी चामड्याच्या वस्तूंचीय निर्यात जाता. 'न्यूझीलँड डॉलर' हें देशाचें अधिकृत चलन आसून, तें १०० सेंटांनी विभागलां. रिझर्व बँक ही देशांतली मध्यवर्ती बँक आसून, सरकाराक ती दुडवांसंबंदी वा चलनासंबंदी मार्गदर्शन करता आनी हेर बँकांचेर देखरेख दवरता. नोटी छापपाचे अधिकार फकत रिझर्व बँकेकूच आसात. वेपारी बँकांनी दोन ब्रिटीश, दोन ऑस्ट्रेलियी आनी एके जपानी बँकेचो आस्पाव जाता.

**येरादारी आनी संचारण** - न्यूझीलँड देश साबार जुंवे मेळून तयार जाला. जुंव्यांचेर साबार दोंगुल्ल्यो आनी पर्वत तशेंच खूब चडाव - उतार आशिल्ल्यान ती भूंय येरादारीखातीर अनुकूल ना. हाका लागून रेल्वे मार्गाची आनी रस्त्यांची उबारणी खूब उसरां आनी सवकास जाली. पूण सद्या चड लोकवसती आशिल्ल्या जुंव्याचेर येरादारी मळार दोळे दिपकावपी उदरगत जाल्या. आज गांवगिऱ्या वाठारांनी लेगीत डांबरी रस्त्यांचें जाळें पातळ्ळां. तेचप्रमाण रेल्वेमार्गाचें जाळें सबंद देशभर पातळ्ळां. देशांतलीं मुखेल केंद्रां बसींवरवीं जोडल्यांत आनी व्हड शारांनी

आधुनिक फ्रिवेज उबारल्यात. देशांत आधुनिक पद्दतीची बस आनी रेल्वे वेवस्था आसून लेगीत उणे लांबायेच्या रस्त्यांक आनी रेल्वे मार्गांक लागून तातूंतल्यान प्रवास खूब सवकासपणान करप जाता. रस्ते आनी रेल्वेमार्गांनी येवपी घोळांक लागून देशांतले हवाई येरादारीक खूब म्हत्व मेळ्ळां. चडशा सगळ्या प्रांतिक नगरांनी विमानतळ आसात. ॲर न्यूझीलंड लिमिटेड हे सरकारी संस्थेवरवीं देशाभितल्ली हवाई मार्गावयली येरादारी चलता. आंतरराश्ट्रीय हवाई येरादारी ऑस्ट्रेलिया, ग्रेट ब्रिटन, अमेरिकन कंपनी आनी ॲर न्यूझीलॅंडाच्या जोड पालवान चलता. एकमेकांक लागीं आशिल्ल्या जुंव्यांचेर येवपा-वचपा खातीर फेरीबोट सेवा आसा. देशांत ४० वयर बंदरां आसून तातूंतली ऑकलॅंड, वेलिंग्टन, लिटल्टन आनी डॅनीडन हीं मुखेल आसात.

रेडिओ, दूरचित्रवाणी, दूरध्वनी, टपाल आनी तार खातें हातूंत खूब सुदारणा जाल्ली आसून, तीं सगळीं सरकारचे मालकीचीं आसात. तार खातें आनी दूरध्वनी वेवस्था टपाल कचेरीचे देखरेखीखाला चलता. दूरध्वनीचो चड उपेग करपी न्यूझीलॅंड संवसारांतलो चवथो देश. ऑस्ट्रेलिया, ग्रेट ब्रिटन, अमेरिका आनी हेर युरोपी देशांकडेन रेडिओ - दूरध्वनी वेवस्था आसा. १९८१ मेरेन देशांत १५४ सिनेमाघरां आशिल्लीं. १९८७ मेरेन देशांत ३४ दिसाळीं उजवाडाक येतालीं.

**लोक आनी समाजजीण –** युरोपी लोक न्यूझीलॅंडांत पावले तेन्ना त्या जुंव्यांचेर माउरी लोकांचो राबितो आशिल्लो. माउरी लोक मुखेलपणान उत्तर जुंव्यांच्या देगांनी रावताले. माउरी लोक झुजारी वृत्तीचे आशिल्ले. ते घरबांदकामांत आनी व्हडीं बांदपाक कुशळ आशिल्ले. वीणकाम आनी शेतवड हो तांचो मुखेल वेवसाय आशिल्लो. वसणुकेच्या सुर्वेच्या काळांत तांची आनी युरोपी लोकांचीं झगडीं जायत रावलीं. हाका लागून माउरींची संख्या उणी जायत रावली. पूण हालींच्या तेंपार ती नेटान वाडत आसा. सद्या माउरी लोक गोऱ्या लोकांमदीं भरसत चलल्यात. तांच्या साबार चालीरितींचेर अस्तंती छाप पडला. राजकारणांतूय तांची सुवात म्हत्वाची थारल्या. माउरी लोकांखातीर शासनांत कांय जागे राखून दवरल्यात. माउरी लोक माउरी भास उलयतात. ती भास मलायो - पॉलिनिशियन भाससमुहांतली आसा.

न्यूझीलॅंडांत गोऱ्या लोकांचो आस्पाव चड आसा. गोऱ्या लोकांतले सुमार ९०% लोक ब्रिटनांतले आसात. भारतीय, चीनी आनी आशियांतले हेर लोकूय थंय कांय प्रमाणांत आसात. दक्षिण जुंव्यापरस, उत्तर जुंव्यावयली जमीन सपाट आनी पिकाळ आशिल्ल्यान ताचेर लोकवसती चड आसा. लोकवसतीची दाटाय दर्यादेगांनी चड आसा. वट्ट लोकसंख्येंतले सुमार दोन तृतीयांश लोक शारांनी रावतात, जाल्यार फकत एक तृतियांश लोक गांवगिऱ्या वाठारांनी रावतात. गांवगिऱ्या वाठारांतल्या लोकांचो शेतवड आनी पशूपालन हो मुखेल वेवसाय. देशांतले जिणेचो पावंडो उच्च दर्जाचो आसा. तांच्या जेवणांत चीझ आनी लोणयाचें प्रमाण चड आसता. च्या हें तांचें आवडीचें पेय.

ख्रिस्ती हो देशांतलो अधिकृत धर्म. ते लोक इंग्लंडाचे इगर्जेचे अनुयायी. रोमन कॅथलीक, मॅथडिस्ट आनी प्रॅसबिटेरियन इगर्जेचे अनुयायीय थंय मेळटात. माउरी लोकांच्यो साबार इगर्जो आसात. माउरी खेरीज हेर लोक मुखेलपणान इंग्लीश उलयतात. माउरी लोक माउरी भास उलयतात, पूण रोमी लिपींत बरयतात.

न्यूझीलॅंडाच्या साहित्य इतिहासाक सॅम्युएल मार्झडेन (१७६५ - १८३८) ह्या मिशनऱ्यासावन सुरवात जाली. तांचीं पत्रां आनी नेमाळीं १८३२ वर्सा उजवाडाक आयलीं. ताका न्यूझीलॅंडाचें गद्य साहित्य म्हण्टात. उपरांत ऑगस्टस अर्ल आनी जे. एस. पोलाक हाणीं १८३२ त नॅरेटिव्ह ऑफ ए नायन मंथ्स रेझिडॅन्स इन न्यूझीलॅंड आनी १८३८ त न्यूझीलॅंड हे दोन ग्रंथ बरयले. १८४५ त ई.जे. विकफिल्ड हाणें 'ॲडव्हॅंचर ईन न्यूझीलॅंड' हें पुस्तक बरयलें. जॉन गॉस्टर्न हाणें १८६४ त माउरी लोकांची इतिहासीक म्हायती दिवपी 'माउरी किंग' हें पुस्तक बरयलें. १८७२ त बरयल्ल्या 'ए ख्रिसमस केक ईन फोर क्वार्टर्स' ह्या पुस्तकाक न्यूझीलॅंड साहित्यांतली पयली कादंबरी म्हणून मान्यताय मेळ्ळी. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक आंगार कांटो फुलोवपी कथा उजवाडा येवपाक लागल्यो. व्ही. पी. रीव्हझ आनी कॅथरीन मॅन्सफिल्ड ह्यो विसाव्या शेंकड्यांतल्यो प्रसिद्ध लेखक-लेखिका. उपरांत १९२० त जेन मांडरची 'स्टोरी ऑफ न्यूझीलॅंड रिव्हर' ही कादंबरी खूब प्रसिद्ध जाली. जेसी माकाय (१८६४-१९३८) हिच्यो कविता देशभक्तीचेर आदारिल्ल्यो. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत तांत्रिक विशयांचेर चड पुस्तकां उजवाडा येवपाक लागलीं.

न्यूझीलॅंडांत मुळावें शिक्षण फुकट आसून, ६ ते १५ वर्सां पिरायेमदल्या भुरग्यांक शिक्षण सक्तीचें आसा. ३ ते ४ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांखातीर सरकारी बालवाडयो आसात. उच्च आनी उच्च माध्यमिक शाळांखातीर वेगवेगळीं अभ्यास मंडळां आसात. मुळाव्या शाळांखातीर खाशेलीं प्रांतिक अभ्यास मंडळां केल्यांत. देशांत अशीं प्रांतिक १० अभ्यास मंडळां आसात. सगळ्या अभ्यास मंडळांचेर केंद्रीय अभ्यास विभाग देखरेख दवरता. ऑकलॅंड विश्वविद्यालय, वायकाटो विश्वविद्यालय, वेलिंग्टन व्हिक्टोरिया विश्वविद्यालय, मासे विश्वविद्यालय, कॅन्टरबरी विश्वविद्यालय आनी ऑटागो विश्वविद्यालय हीं देशांतलीं स विश्वविद्यालयां आसात. हांचे भायर शेतकी विद्यालय आनी वेवसायीक शिक्षण दिवपी विद्यालयांय थंय आसात. खाजगी आनी भौशीक मेळून देशांत सुमार ३७५ वयर ग्रंथालयां आसात.

– कों. वि. सं. मं.

## न्यूटन, सर आयझॅक :

(जल्म : २५ डिसेंबर १६४२, वुल्झथॉर्ज लिंकनशर ; मरण : २० मार्च १७२७, लंडन).

नामनेचो इंग्लीश शास्त्रज्ञ. गणितशास्त्र, गतीशास्त्र, खगोलीय यामिकी, ज्योतिष शास्त्र आनी प्रकाशकी ह्या विज्ञानाच्या फांट्यांनी ताणें म्हत्वाचें संशोधन केलां. ताचें सुरवातीचें शिकप ग्रॅंथमचे शाळेंत जालें.



भुरगेपणासावनूच गिरण, घड्याळी, लांपयांव सारकिल्यो वस्तू तयार करपाची ताका ओड आशिल्ली. घरचो वेवसाय शेतकामाचो आशिल्ल्यान आवयन ताका शाळेंतल्यान

काडून शेतकामाखातीर धाडलो. पूण ताचें थंय लक्ष लागलेंना. फुडें मामाचे आनी शिक्षकांचे सांगणेन तो १६६० सावन परत शाळेंत वचपाक लागलो. १६६१ त तो कॅंब्रिजांतल्या ट्रिनिटी कॉलेजांतल्यान मॅट्रिकेची परिक्षा पास जालो. १६६५ त बी. ए. पदवी मेळयतकूच दोन वर्सांनी तो ट्रिनिटी कॉलेजीचो फॅलो जालो.

जून १६६५ त प्लेगाची धाम आयिल्ल्यान विद्यापीठ बंद उरलें. ह्या काळांत न्यूटन वुल्झथॉर्प हांगाच उरलो. ह्या काळांतूच ताणें गणितशास्त्र आनी हेर विशयांच्या संशोधनाची बुन्याद घाली. १६६८ त ताणें एम. ए. ची पदवी मेळयली. ताचो गुरू आयझॅक बॅरो हाणें १६६९ त कॅंब्रिज विद्यापिठांतल्या आपल्या गणिताच्या ल्युकेशियन प्राध्यापकपदाचो राजिनामो दिलो, तेन्ना न्यूटनाची नेमणूक त्या म्हत्वाच्या पदाचेर जाली. त्या वेळार न्यूटन फकत २६ वर्सां पिरायेचो आशिल्लो. १६८९ त कॅंब्रिज विद्यापिठाचो प्रतिनिधी म्हणून संसदेत ताची निवड जाली आनी फुडल्या वर्सा संसद विसर्जीत जायमेरेन तो त्या पदाचेर उरलो. १७०१ त ताची संसदेत परत निवड जाली. पूण ताणें राजकारणांत कसलोच वांटो घेतलोना.

१६९० त संसद विसर्जीत जातकूच तो कॅंब्रिजाक परतलो आनी कांय काळ ताणें गणिताचेर संशोधन केलें. पूण १६९२-९४ ह्या काळांत न्हिदेनाश आनी मानसिक त्रास हाका लागून तो दुयेंत पडिल्ल्यान ताच्या वावरांत मातसो खंड पडलो. १६९६ त तेन्नाचे अर्थमंत्री चार्ल्स मॉंटॅग्यू हाणें न्यूटन हाची टांकसाळींत अधिक्षक (वॉर्डन) म्हणून नेमणूक केली आनी चार वर्सांनी तो थंयचो मुख्याधिकारी जालो. अधिक्षक आसतनाच तो कॅंब्रिजच्या प्राध्यापकपदाचेर आशिल्लो. पूण मुख्याधिकारी जातकूच ताणें प्राध्यापकपदाचो राजिनामो दिलो आनी तो लंडनांत स्थायीक जालो. टांकसाळींतूच मुख्याधिकारी म्हणून ताणें निमाणेमेरेन काम केलें.

अवलोकन आनी समाकलन ही न्यूटनान केल्ली गणितशास्त्रांतली म्हत्वाची निर्मिती. समाकलनाचो उपेग ताणें वक्रान वेश्टिल्लें क्षेत्रफळ आनी घन आकृतायांचें क्षेत्रफळ मेळोवपाखातीर केलो. अवलोकन आनी समाकलन हांकां जोडपी कलनशास्त्रांतलें मुळावे प्रमेय ताणेंच मांडलें. सांत अंतर कलन ह्या कलनाच्या दुसऱ्या एका फाट्यांत ताणें म्हत्वाचो वावर केला. बीजगणितांतलें म्हत्वाचें द्विपद प्रमेय न्यूटनान १६६५ त मांडलें.

न्यूटनान गुरूत्वाकर्शणाचो नेम मांडलो. 'विश्वांतल्या दोन कणांमदली आकर्शक प्रेरणा ही तांच्या वस्तुमानांच्या गुणकाराच्या समप्रमाणांत आसता' हें ताणें स्पश्ट केलें. प्रकाशकी (optics) हो ताच्या अभ्यासाचो खाशेलो विशय आशिल्लो. जर सूर्य किरणां खंयचेय अशीर खांचींतल्यान त्रिकोनी लोलकांतल्यान सोडलीं, जाल्यार तांचें वेगवेगळ्या रंगांच्या किरणांत पृथक्करण जाता, तशेंच ह्या रंगीत किरणांमदलें एकाच रंगाचें किरण दुसऱ्या लोलकांतल्यान सोडलें जाल्यार ताचें आनीक पृथक्करण जायनासतना फकत प्रणमन (refraction) जाता, अशें ताणें प्रयोगावरवीं सिद्ध केलें. हाचेवयल्यान धवो उजवाड ही विंगड विंगड रंगाच्या किरणांची भरसण आसून ह्या किरणांची प्रणमनाची तांक वेगवेगळी आशिल्ल्यान धव्या उजवाडाचें पृथक्करण जाता अशें ताणें सिद्ध केलें. उजवाड हो दीप्तीमान पदार्थासावन भायर पडपी सुक्ष्म कणांपसून तयार जाल्लो आसता असो सिध्दांत न्यूटन हाणें मांडलो आनी ह्या सिध्दांता वरवीं ताणें परावर्तन, प्रणमन आनी हेर उजवाडाच्या आविश्कारांची विस्कटावणी केली.

रॉबर्ट हूक हाणें न्यूटनाच्या कण सिध्दांताचेर बरीच टिका केली. फुडें हायगेन्झ, टॉमस यंग आनी ऑगस्तीन फ्रेनेल हाणीं उजवाडाचो तरंग सिध्दांत विकसीत केलो. एकुणिसाव्या शतमानामेरेन तरंग सिध्दांतूच प्रमाण मानताले. विसाव्या शतमानांत आयन्स्टायनाची फोटॉन संकल्पना आनी मार्क्स प्लांक हाचो पुंज सिध्दांत हाका लागून न्यूटनाचो सिध्दांत सामकोच चुकीचो नाशिल्लो अशें स्पश्ट जालें.

न्यूटन हाचो 'Philosophiae Naturalis Principia Mathematica' हो नामनेचो ग्रंथ १६८७ त उजवाडाक आयलो. फुडें ह्या ग्रंथाच्यो कितल्याशोच आवृत्त्यो आयल्यो. आर्विल्ल्या विज्ञानाचे उदरगतीक ह्या ग्रंथांत गती हाडली, अशें म्हण्टात. Optics हो ताचो दुसरो म्हत्वाचो ग्रंथ १७०४ त पयलीं उजवाडाक आयलो. फुडें ताच्योय कितल्योशोच आवृत्यो आयल्यो. न्यूटनाचे शास्त्रीय निबंदाचे झेलेय वेगवेगळ्या लेखकांनी संपादीत करून उजवाडायल्यात. रॉयल सोसायटीन न्यूटनाचो पत्रवेव्हार चार खंडांनी उजवाडायला.

१६७२ सावन तो रॉयल सोसायटीचो वांगडी आशिल्लो. १७०३ त तो सोसायटीचो अध्यक्ष जालो आनी मरणामेरेन दर वर्सा ताची ह्या पदाचेर निवड जाली. पारिसच्या सायन्स ॲकॅडॅमीन १६९९ त ताका मानादीक वांगडी जावपाचो भोवमान दिलो.

– कों. वि. सं. मं.

**न्यूनगंड :** मानसशास्त्रीय कारणांक लागून मनशाक आयिल्लें एके तरेचें मानसीक दुबळेपण. ह्या दुबळेपणाक लागून मनशाच्या मनांत खालतेपणाची भावना निर्माण जावन, त्या मनशाचो स्वभाव भिवकुरो जाता. हें भिवकुरेपण ताची कार्यक्षमताय उणी करता. अशे अवस्थेक न्यूनगंड म्हण्टात. हे अवस्थेचे सामके उरफाटे अवस्थेक अहंगंड म्हण्टात. अहंगंड अवस्थेंत मनीस आपले क्षमतायेपरस चड तांक आशिल्ल्याचो समज करून घेता वा आसा ते परस आपल्याक ऊंच लेखता. अशे तरेन, न्यूनगंड अवस्थेंत मनीस आपल्याक गरजेभायर उणाक लेखता आनी अहंगंड अवस्थेंत तो आपल्याक चड ऊंच लेखता. ह्या दोनूय अवस्थांनी मनीस आपली खरेली अवस्था कुशीक दवरून स्वयंनिर्मीत अशी अडेची अवस्था जगता.

आल्फ्रेड ॲडलर (१८८०-१९३७) हाणें ही संकल्पना शास्त्रीय नदरेन मांडल्या. ताच्या मताप्रमाण, दर एक मनीस आपले जिविताचे वाटचालीची मोख आपले इत्सेप्रमाण थरयता. उपरांत तो मनीस हे मोखीकडेन पावपाचो यत्न करता. हे मोखीचो ताचे जिवीत पद्धतीकडेन लागींचो संबंद उरता. आपूण अमुकूच अशे तरेची जिवीत पद्दत आपणावन थरावीक अशी मोख जोडटलो म्हणपाचो तो भरवंसो दवरता. ही मोख केन्ना समाजान आदर्श थरयल्ली आसता जाल्यार केन्ना मनीस तिका आपले कल्पने प्रमाण आदर्श थरयता. मोखीचो दर्जो ते मोखीचे परिस्थितीतल्या दर्ज्यापरस उणो आसप स्वभावीक जाता. हाका लागून त्या वेळार मनशाच्या मनांत उणेपणाची भावना निर्माण जाता. कांय वेळार ही भावना ताका अदीक प्रयत्नशील आनी क्रियाशील जावपाची प्रेरणा दिता. अशे तरेन न्यूनगंडाची भावना मनशाचे जिणेंत सुदारणा घडोवन हाडपाक कारणीभुतूय थरता.

उणेपणाची भावना कुशीक सारून, समाजांत आपल्याक मानाची सुवात मेळची म्हूण यत्न करप ही दर एका मनशाची प्रवृत्ती आसा. पूण कांय कारणांक (शारिरीक, मानसीक, अर्थीक, समाजीक) लागून मनीस

आपले जिणेंत थरयल्ले मोखीचे दिशेन वाटचाल करपाक अपेशी थारता. केन्ना केन्नाय आपले तांकीपरस व्हड मोखीची अपेक्षा दवरिल्ल्यान अपेश येता. अशा वेळार ताच्या मनांत आपलेविशीं उणेपणाची भावना निर्माण जाता. जेन्ना अशी भावना खर जायत वता, तेन्ना तिचें रुपांतर न्यूनगंडांत जाता. मनीस एकदां न्यूनगंडाचे अवस्थेक पावलो म्हण्टकूच ताचेभितर खालतेपणा वांगडाच दुस्वास, नसाय, राग, विध्वंस अशे समाजद्रोही विकार निर्माण जातात. अपेस मानून घेतिल्ल्यान अशा मनशाची यत्न करपाची वा सर्त करपाची इत्सा बावता वा नश्ट जाता. हाका लागून असो मनीस आपणें थरयल्ले वाटचालींत फाटीं उरता. जितलो तो फाटीं उरता तितलोच ताचो न्यूनगंड जून जाता आनी जितलो त्या मनशाचो न्यूनगंड जून जाता तितलो तो निश्क्रीय जाता.

न्यूनगंडाची भावना आनी मनशाचें भुरगेपण हांचो लागींचो संबंद आसा. शारिरीक व्यंग, गरजेभायर लाड आनी दुर्लक्ष हीं न्यूनगंडाचीं बियां पडपाचीं तीन मुखेल कारणां आसात. शारिरीक व्यंग हें मनशाचे जिणेंत आडखळ जावन राविल्ल्यान, त्या मनशाचे तांकीक बादा हाडटा आनी ताच्या योगदानांक आंवुळटा. गरजे भायर लाड जाल्ल्या भुरग्याच्या मनांत एकेवटेन आपलेपणाची भावना निर्माण जाता आनी दुसरे वटेन ताका निश्क्रीय करता. हे दोनूय अवगूण ताका जाण्टेपणांत अपेशी करपाक कारणीभूत थरतात. चड दुर्लक्षीत भुरग्यांच्या मनांत खालतेपणाची भावना निर्माण जावन ती तांच्या हावेसांक आडावन धरपाचें काम करता.

गंड जाल्ल्या मनशाक ताची जाणीव आसता कांय ना, हाचेविशीं जाणकारांमदीं मतभेद आसात. कार्ल यंग (१८७५-१९६१) ह्या मानसशास्त्रज्ञान गंडाचो उगम हो अबोध थरांचेर आसून तो गंडधारी व्यक्तीच्या वर्तनाक नियंत्रीत करपी मानसिक यंत्रणेचेर प्रभाव घालता अशें सांगलां. गंडधारी मनशाची वागणूक ही चड करून समाजमान्य वागपापरस वेगळी आनी तर्कविसंगत अशी चमत्कारीक आसता.

– डॉ. नयना पागी

**न्यू मॅक्झिको :** अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतलें नैर्ऋत्येक आशिल्लें राज्य. विस्तार ३१° २०' उत्तर ते ३७° उत्तर आनी १०३° अस्तंत ते १०९° ०' २" अस्तंत. क्षेत्रफळ १,९७२,५४७ चौ. किमी. लोकसंख्या ९,००,००,००० (१९९१). ह्या राज्याचे उत्तरेक कोलोरॅडो, उदेंतेक ओक्लाहोमा आनी टॅक्सस, दक्षिणेक टॅक्सस आनी मेक्झिको प्रजासत्ताक आसात. सांता फॅ ही ह्या राज्याची राजधानी.

ऊंच पर्वतांतेंगश्यो, ल्हान – व्हड दोंगर आनी पर्वतावळी, सडे आनी सपाट भुंयेन हें राज्य व्यापिल्लें आसा. तशेंच रिओ ग्रँड, पेकस, कॅनेडियन, सॅन वॉन आनी गीला ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो.

विंगड विंगड भूंयप्रकारांक लागून हांगाचें हवामान वाठाराप्रमाण बदलत वता. गीम आनी शिंयाळो हांच्या तापमानांनी बरोच फरक जाणवता. तेभायर भूंयरचणूक आनी उंचाय हांचेय परिणाम हवामानाचेर जाल्यात. सरासरी तापमान १२° सॅ. आसता. सरासरी पावस ३८ सेंमी. पडटा. राज्याची सुमार २५% भूंय रानांनी वेश्टिल्ली आसा आनी उंचाये प्रमाण वनस्पतींचे प्रकारूय बदलत वतात. जुनिपर, पिनॉन, सेजब्रश, धवो पायन, निळो स्प्रूस आनी जायते हेर रूख हांगा मेळटात. म्यूल डिअर, हरणां, एल्क, गिरिशींव, बॉबकॅट, काळी वांस्वेलां आनी सोंशे ही मोनजात हांगा दिश्टी पडटा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था** – न्यू मॅक्झिकोचे मूळ लोक हेर इंडियनां भशेनूच. १५३५ त हांगा पयलीं स्पेनी लोकांच्यो आनी उपरांत हेर युरोपींच्यो घुरयो येवंक सुरवात जाली. ताणीं थळाव्या लोकांक ना करून हांगा आपलें राज्य निर्मूक सुरवात केली. १७७१ मेरेन हो प्रांत स्पॅनीश राजांचे 'न्यू मेक्झिको राज्य' म्हणून आशिल्लें. उपरांत १८२१ त हेर वसाहतींवांगडा हाकाय स्वातंत्र्य मेळून मेक्झिको साम्राज्यांत ताचो आस्पाव जालो. १८४६ - ४८ च्या मेक्झिकन झुजांत सेनापती कार्नीन हाणें सांता फे काबीज केलें. १८४८ त न्यू मेक्झिको हो अमेरिकेचो एक प्रांत जालो. टेक्ससांतलो सेनापती सिब्लीची बंडखोर सेना १८६२ त न्यू मेक्झिकोंत रिगली. पूण तांकां खूब नूकसान जावन परतुचें पडलें. पूण थळाव्या आनी शेजारच्या इंडियन लोकांच्यो घुरयो थोडीं वर्सां चालूच आशिल्ल्यो. निमाणेंमेरेन चालू आशिल्ल्या यत्नांक लागून १९१२ त न्यू मेक्झिको अमेरिकेचें एक राज्य जालें. १९१२ त जाल्या संविधानांत बरेच फावट बदल जाल्यात. प्रौढ सार्वत्रिक मतदानांतल्यान ४२ सिनेटर चार वर्सांखातीर आनी ७० प्रतिनिधी दोन वर्सांखातीर वेंचून काडटात. देशाचे संसदेंत ह्या राज्याचे दोन सिनेटर आनी दोन प्रतिनिधी आसतात. राज्यपालांक आनी तांच्या मुखेल अधिकाऱ्यांक चार वर्सां खातीर वेंचून काडटात.

**अर्थीक स्थिती, लोक आनी समाजजीण** – शेतवड आनी पशुपालन हो मुखेल वेवसाय. घेवडो, मको, कापूस आनी दुदी हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. गोरवां आनी मेंढरां पोसपाचो धंदोय नेटान चलता. भांगर, रुपें, तांबें, जस्त सारकीं खनीजां हांगां मेळटात. सैमिक तेल आनी वायूंचें उत्पादन ह्या राज्यांत म्हत्वाचें थरलां. उद्देगधंद्याच्या मळार हें राज्य खूब फुडें आसा. हांगाच्या लोकांमदले चडशे लोक अँग्लो, स्पॅनिश – अमेरिकन, इंडियन आनी साप उण्या प्रमाणांत खाप्री आसात. राज्याच्या उत्तर मध्य वाठारांत लोकांचें प्रमाण चड आसा. ह्या राज्याची भास इंग्लीश.

– कों. वि. सं. मं.

**न्यूयॉर्क :** अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतलें एक राज्य. ह्या राज्याचे आग्नेयेक अॅटलांटिक म्हासागर, न्यू जर्सी आनी पॅनसिल्वेनिया राज्यां, अस्तंतेक इअरी तळें आनी कॅनडाचो ऑटॅरिओ प्रांत; उत्तरेक ऑटॅरिओ तळें आनी सेंट लॉरेन्स न्हंय आनी उदेंतेक व्हरमॉंट, मॅसॅच्युसॅट्स आनी कनॅक्टिकट हीं राज्यां आसात. राज्याचें क्षेत्रफळ १,२८,८९८ चौ. किमी. आनी लोकसंख्या १७,५५७,२८८ (१९८१). ऑल्बनी ही राज्याची राजधानी.

राज्याचे ईशान्येक सुमार ६२० ते १,५५० मी. उंचायेचे ॲडिराँडॅक पर्वत आसात आनी माऊंट मार्सी हें सगळ्यांत ऊंच तेमूक १,६५८ मी. उंचायेचें आसा. आग्नेयेक कॅटस्किल पर्वतांचेर स्लायड हें सगळ्यांत ऊंच तेमूक आसा. आग्नेय कोनशाक सखल आनी सपाट लॉंग आयलँड जुंवो आसा. राज्याचे दक्षिणेक ४०० मी. उंचायेचो ॲलेगेनी सडो आसा. राज्यांत मुखेल णव न्हंयो आनी ८,००० तळीं आसात. हडसन आनी मोहॉक ह्या दोन न्हंयांक इतिहासीक म्हत्व आसा.

दर्या देगेक हवामान दमट आसता आनी भितल्या वाठारांनी तें सुकें आनी शितळ आसता. दोंगरी वाठारांनी शिंयाळो खूब कडक आसता.

वर्सुकी पावस १०७ सेंमी. आसता आनी शिंयाळ्यांत कांय कडेन हीम पडटा. राज्यांतलें सर्वसादारण वर्सुकी सरासरी तापमान सुमार ७.२°सॅ. आसता आनी न्यूयॉर्क शाराचें ११.७° सॅ. आसता. राज्यांतली ४६% भूंय रानातळा आसून हांगा विंगड-विंगड वनस्पतींच्यो १५० जाती आसात. कॅटस्किल आनी टॅकॉनिक पर्वतांचेर स्प्रूस, व्हायट पायन, फर, मॅपल, बर्च आनी बीच हे रूख सांपडटात. मोनजातीचेय खूब प्रकार आसात. वायल्डटर्की, बिबटो वाग, ऊंच माजर, कोले, वुल्वरीन, एल्कह आनी सांबर ही मोनजात हांगाच्या रानांनी दिश्टी पडटा. इंग्लिश स्पॅरो, कावळो, रॉबिन, कॅटबर्ड, ब्लू बर्ड, रेन, चंडोल हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं सवणीं.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** युरोपी लोक पावचेपयलीं हांगा मागाशिल्ल्या इरोक्कायन इंडियनांच्यो पांच जमाती आशिल्ल्यो. १६१४ त फोर्ट नॅसॉक हॉलंडी लोकांचें वेपार केंद्र आशिल्लें. हांगाचे तांचे वसणुकेक 'न्यू नॅदर्लंड्स' हें नांव आशिल्लें. १६६४ त इंग्लिशांनी न्यू ॲमस्टरडॅम हातासलें. हे वसणुकेक ब्रिटीशांनी ड्यूक ऑफ यॉर्क वयल्यान 'न्यूयॉर्क' हें नांव दिलें. १६८९-१७६३ ह्या काळांत फ्रँचांनी आनी इंडियनांनी न्यूयॉर्क राज्याआड कितलींशींच झुजां उबारिल्लीं. झुजां सोंपमेरेन न्युयॉर्क ब्रिटीशांकडेच उरलें. न्यूयॉर्क राज्याचें स्वातंत्र्य जाहीर करून किंग्स्टनाक राजधानी उबारिल्ली. जॉर्ज क्लिंटन हाका पयलो गव्हर्नर नेमलो. १७७७ राज्यघटना संमत जावन १७७८ त न्यूयॉर्काचो राज्यसंघांत आस्पाव जालो. पयल्या आनी दुसऱ्या म्हाझुजांच्या काळांत डॅमॉक्रॅटिक पक्षाच्या अधक्षांनी आपआपलेपरीन प्रशासन चलयलें. संविधानावरवीं राज्याच्या सिनेटांत ६० आनी प्रतिनिधी घरांत १५० वांगडी आसतात. ह्या वांगड्यांची मुजत चार वर्सां खातीर आसता. देशाचे काँग्रेसींत, न्यूयॉर्काचे २ सिनेटर आनी ३९ प्रतिनिधींचो आस्पाव जाता.

**अर्थीक स्थिती** - पिकाळ जमीन, बरें हवामान आनी यंत्राच्या उपेगाक लागून देशांत जाय आशिल्ली पिकावळ हांगा पिकून उरिल्ल्या शेतकी उत्पन्नाची निर्यात जाता. शेतांचो आंकडो आनी लागवड क्षेत्रप्रमाण उणी जायत आसा. तरीपूण शेती उत्पादनांचें प्रमाण सदांच चड आसता. ल्हान आंवाठांत चड पिकावळ काडपाचें तंत्र हांगा आपणायलां. मको, गंव, ओट आनी तण हीं राज्यांतलीं म्हत्वाचीं पिकां आसात. पशुपालनांतल्यानय उत्पन्न बरेंच मेळटा. ह्या राज्याचो सफरचंदां, द्राक्षां, टार्ट, चॅरी ह्या फळांच्या उत्पादनांत दुसरो आंकडो लागता. हेर फळांभितर पीच, नासपती, आलुबुखार, स्ट्रॉबॅरी, राझ्बॅरी, कोबी, कांदे, बटाट हांचेंय उत्पन्न बऱ्याच प्रमाणांत जाता.

राज्यांतलीं खनिजां विंगड - विंगड प्रकारांचीं आसात. एमरी, गार्नेट, सैंधव हीं खनिजां सगळ्यांत चड मेळटात. पॅट्रोलियम, सैमीक वायू, चूनखडी, ग्रॅनायट, बॅसाल्ट, शिंशें आनी जस्त हांचेंय उत्पादन बऱ्याच प्रमाणांत जाता. उद्देगधंद्याच्या मळार हें राज्य बरेंच फुडें आसा. यंत्रां, लुगट, रसायनां ह्या गजालींच्या उत्पादनांनी बरीच वाड जाल्या. न्यूयॉर्काच्या समाजांत कितल्योशोच जाती, जमाती आनी वंश हांची भरसण आसा. अमेरिकी क्रांतीउपरांत थोड्या तेंपाभितर राज्यांत शिक्षणाची उदरगत जावपाक लागली. तंत्रगिन्यान ते कलाकुसर अशा सगळ्या मळांवयलें शिक्षण हांगा घेवंक मेळटा.

न्यूयॉर्क शार - हें नामनेचें शार, अमेरिकेच्या ईशान्य देगेर, न्यूयॉर्क राज्यांत, हडसन न्हंयेमुखार आसा. हें शार खूब जुवें एकठांय येवन तयार जालां. न्यूयॉर्क हें जगांतलें सगळ्यांत गिरेस्त शार अशें मानतात. तें म्हत्त्वाचें बंदर, उद्देगीक आनी वेपारी केंद्र, तशेंच न्यूयॉर्क हें अमेरिकेचें मुखेल येरादारी आनी संचारण केंद्रय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**न्हंय :** सैमीक रितीन उत्पन्न जावन व्हड भूंयप्रदेशांतल्यान दोन देगांभितर व्हांवपी उदकाच्या लोटाक न्हंय अशें म्हण्टात. न्हंय रचणुकेचे नदरेन, एका खाशेल्या भूंयप्रदेशाचें उदक एकेकडेन हाडपी सगळ्या उदकाच्या प्रवाहांक लागून न्हंयप्रणाली जाता आनी त्या प्रदेशाक ते न्हंयेचें देगण म्हण्टात. न्हंयांच्या वा तांच्या फांटयांच्या एकमेकांक तेंकून आशिल्ल्या देगणांमदल्या उंचेल्या भागाक जलविभाजक म्हण्टात. एका व्हड देगणांत साबार ल्हान व्हड देगणां वा जलविभाजक आसतात. न्हंयप्रणालींत मुखेल न्हंय, तिका जोडिल्ले कांय फांटे आनी तांचे उगमप्रवाह हांचो आस्पाव जाता. ह्या सगळ्या ल्हान व्हड प्रवाहांची सुरवात त्या देगणांत पडपी पावसाक लागून जाता. खडप, माती वा वनस्पतीन भरिल्ले भूंयेचेर पडपी पावसाचें उदक वा हिमवृष्टी उपरांत बर्फ वितळिल्ल्या कारणान उदक जमनीवयल्यान व्हांवपाक लागता वा जमनींत जिरून जमनीपोंदच्यान व्हांवूक लागता. हातूंतलें कांय उदक वनस्पत आनी मोनजात हांचेखातीर वापरतात आनी चडशा उदकाची वाफ जाता. बर्फ विरून जाल्लें उदक वा पावसाचें सुमार ३०% उदक न्हंयेच्या रुपान व्हांवता. न्हंयेचे उगमप्रवाह झऱ्यांतल्यान, दलदलींतल्यान, तळ्यांतल्यान वा देगणाच्या साप उंचेल्या भागांतल्यान ल्हानल्हान पाटांतल्यान वा व्हाळाच्या रुपान सुरू जातात. सुर्वेक ऊंच प्रदेशांतले जमनीचेर शिंवरून पडिल्लें पावसाचें उदक तशेंच पातळिल्ल्या स्वरुपांत सकयल येवपाक लागता. जमनीच्या उंचसकयल स्वरुपांक लागून आनी तिचे कांय सदळ आशिल्ले ल्हानल्हान कण उदकावांगडा व्हांवून गेल्ल्या कारणान ह्या पातळिल्ल्या उदकाच्यो ल्हानल्हान खळयो तयार जातात. तेंच उदक मातशें सकयल आयले उपरांत ताका नेट येता आनी कांय तेंपाउपरांत खोल मार्ग तयार करून तातूंतल्यान तें व्हांवूंक लागता. उपरांत हे मार्ग चड खोल जावन तांकां एक खाशेलें स्वरूप येता. असल्यो साबार ल्हानल्हान खळयो एकठांय जावन व्हाळ निर्माण जातात. असले ल्हानल्हान व्हाळ एकठांय येवन तांची न्हंय तयार जाता. न्हंयो निमाणेकडेन दर्याक, तळ्याक वा प्रदेशांतल्या चड खोलायेच्या भागाक वचून मेळटात. कांय न्हंयो फकत पावसाळ्यांतूच व्हांवतात. थोड्यो न्हंयो पावसाळ्या उपरांत लेगीत जमनींत जिरिल्ल्या उदकाच्या आदारान व्हांवतात. कांय न्हंयो रेंवटांत जिरतात वा सुकून वतात. पूण चडशो न्हंयो वर्साचे बाराय म्हयने व्हांवत आसतात. भूंयप्रदेशाचें स्वरूप वयर-सकयल आसत जाल्यार न्हंयांचीं देगणां ल्हान आसतात. प्रदेश दोट्टी भूंयेचो आनी उण्या देंवत्यांचो आसत जाल्यार न्हंयांचीं देगणां व्हड आसतात. न्हंय जंय उगम पावता थंय न्हंयेचें देगण साप ल्हान आसता आनी उपरांत तें मुखार वाडत वता.

न्हंय हें एके खाशेले रितीन व्हांवपी उदकाक दिल्ले नांव. व्हाळ, पाट उपन्हंयो हीं उदकाच्या प्रवाहांच्या वाडट्या आकारमानांक लागून मेळिल्लीं खाशेलीं नांवां. तशें पळयल्यार उपन्हंयो ह्यो मुखेल न्हंयांयेद्यो वा व्हडूय आसतात. सिंधू, ब्रह्मपुत्रा, शोण ह्या व्हड न्हंयांक नद म्हण्टात. पूण ह्या सगळ्या न्हंयांच्या प्रकारांक सादरणपणान न्हंय हेंच उतर वापरतात. तांचेभितल्लो फरक दाखयतना मात तांच्या खाशेल्या नांवाचो उच्चार

करतात. भूंयप्रदेशाचे सामान्य देंवतेचे दिशेन व्हांवपी न्हंय सहवाहिनी, आनी मार्गांतल्या उंचायेच्या प्रदेशाचे देंवतेआडचे दिशेन व्हांवपी न्हंय 'अपवाहिनी'. न्हंय आपल्या दोनूय देगांमदल्यान सकलाटेच्या भागांकडेन व्हांवत वता आनी तिच्या मार्गांतल्या भूंयप्रदेशाच्यो चडटयो-देंवत्यो हुंपून वेगळींवेगळीं रुपां निर्माण करता. न्हंयांची तुळा वा अभ्यास करतना तांची लांबाय, रुंदाय, खोलाय, उदकाचो लोट, देगणांचो विस्तार, तातूंतल्यान व्हांवपी उदकाचे परिणाम हांचेर चड भर दितात.

न्हंयेची दिशा, तिचो उगम आनी साबारकडच्यान येवन मेळपी उदकाचेर आदारिल्ले आसा. न्हंयेच्या उदकाकलागून झीज जावपाचें आनी भरीचें कार्य चालू आसता. ताचो मुखेल उद्‌देश न्हंयेचे देंवतेचें प्रवणन(ग्रॅडेशन) करपाचो आसता. न्हंयेच्या लोटाचें प्रवणन जांवचेखातीर देंवत्यांचो प्रकार, जलप्रमाण, न्हंयेच्या लोटांचे खाशेलेपण आनी उदकांतलो गाळ ह्यो चार गजाली म्हत्वाच्यो आसात. न्हंयेचे सुर्वेक देंवती खडबडीत आसता. न्हंयेच्या उदकाचें प्रमाण उणें आशिल्ल्यान न्हंयेच्या त्या भागाची झीज करपाचो नेट उणो आसता. न्हंयेच्या दुसऱ्या पांवड्यार न्हंयंतलें उदकाचें प्रमाण वाडटा. हाका लागून देंवतेचें प्रवणन नेटान जात. न्हंयेची देंवती उणी जाले उपरांत उदकाचो नेटूय उणो जाता. पूण न्हंयेची कार्यक्षमताय उणी जाता अशें न्हंय उदकाचें प्रमाण वाडल्यार न्हंयेचो लोटूय वाडटा. न्हंयेचो तिसरो पांवडो म्हळ्यार साप उणे देंवतेचो वा सपाटपणाचो. हांगा न्हंयेच्या झीज वा भर कार्यांत समतोल निर्माण जाता. हो प्रकार कांय तेंपापुरतोच निर्माण जाता. हाका प्रोफायल ऑफ इक्विब्रिअम अशें म्हणटात.

न्हंयेचो प्रवाह साबार लोट एकठांय जावन तयार जाल्लो आसता. प्रवाह चालू आसतना हे लोट एकामेकांकडेन समांतर नाशिल्ल्यान तांचेमदीं घुस्पागोंदळ जावन उदकांत भोंवरे तयार जातात. एके चालीर व्हांवपी उदकांत भोंवरे उणे आसतात. हाका लागून ह्या प्रवाहांचो झीज जावपाचो नेटूय उणो आसता. ह्या प्रवाहाक सुवाही प्रवाह म्हण्टात. प्रवाहांभितर न्हंयेच्या मदल्या जाग्यार नेट चड आसता. नेटाचें प्रमाण तळाकडेन आनी दोनूय देगांनी उणें आसता. न्हंयेच्या पात्राचो आकार आनी न्हंयेचीं मोडणां हांचेर प्रवाहाचें स्वरूप आदारून आसता. न्हंयेचें पात्र सममित आसत जाल्यार आनी न्हंय उबी व्हांवत आसत जाल्यार न्हंयेच्या मध्यभागांत चड नेट आनी देगांनी उणो नेट अशी समान विभागणी आसता. पूण न्हंयेक मोडणां आसत जाल्यार मोडणाच्या अंतर्वक्र भागांत पात्र खोल आनी बहिर्वक्र भागांत उथळ आसात.

न्हंयेच्या प्रवाहांत गाळूय व्हांवत सकयल येता. हो गाळ तीन तरांचो आसता. न्हंयेच्या उदकांत हेर रसायनां आशिल्ल्यान कांय पदार्थांचे कण उदकांत विरगळिल्ल्या स्वरुपांत आसतात. कांय गाळ उफेवन व्हांवत वता, ताका निलंबीत गाळ अशें म्हण्टात. खडपांचे जड कुडके उदकाच्या चड नेटाक लागून न्हंयेच्या तळाक घांसत वतात. ह्या गाळाक कर्षण गाळ अशें म्हण्टात. गाळाचें गुरुत्व सदांच उदकाच्या गुरुत्वापरस (१००) चड आसता. हाका लागून गाळ उदकांत पडटकूच गुरुत्वाकर्षणा प्रमाण देंवतेवयल्यान व्हांवत वता. मोठो गाळ मातसो नेटान सरकट्टा आनी साप बारीक गाळ सवकास फुडें वता.

न्हंयेच्या पात्राचें स्वरुप तीन घटकांचेर आदारीत आसता. उदकाचो नेट वा लोट, उदकांत व्हांवपी गाळाचें प्रमाण आनी स्वरूप आनी मुखेलपणान पात्राची खडपरचणूक. न्हंयेचें पात्र सरळ (उबें), नागमोडी (वांकडें - तिकडें) गुंफित (विणीरचणूक), भोवशाखी (चड फांट्यांनी व्हांवपी), अशें पांच प्रकारांचें आसता. उबो व्हांवपी प्रवाहाचो तळ उंचसकयल जावपी आनी मदींमदीं खोल आसता. उंचायेर आशिल्ल्या देंवत्यांचेर वा घट्ट आशिल्ल्या सरळ देगांमदल्यान हो प्रवाह व्हांवता. पात्राचो आकार एकसारको (सममित) आसता. उदकाच्या लोटांत बदल जायत जाल्यार वा पात्र खणत वचून खडप रचणूक वेगळी जावन न्हंयांच्या पात्रांक मोडणां मेळटात. प्रवाहांक मोडण मेळत रावत जाल्यार उपरांत नागमोडे प्रवाह तयार जातात. भूंयरुपाचीं साबार आडमेळीं येवनूय नागमोडीं मोडणां तयार जातात. उदकाचें प्रमाण वाडलें म्हण्टकूच न्हंय आपल्या पात्राक मोडण दिता, हो नागमोडीचो प्रकार म्हत्वाचो. गुंफित प्रवाहांक विणी रचणूक अशेंय म्हण्टात. न्हंयांक हुंवार आयले उपरांत नागमोडी रचणूक जाता आनी पात्रांत चड गाळ सांचता. हुंवार देवलेउपरांत सांचिल्ल्या गाळाच्या राशींक भोंवाडे घेत, न्हंय साबार प्रवाहांनी व्हांवपाक लागता. ह्या पात्र - स्वरुपाक गुंफित प्रवाह म्हण्टात. रूंद पात्र, सांचिल्लो गाळ हेरकडेन पातळप आनी न्हंयेच्या पात्राची सुवात एकसारकी बदलत रावप हें गुंफित प्रवाहाचें खाशेलपण. निमाणेकडेन न्हंय दर्याक मेळपाक पाविल्ली आसतना प्रवाह खूब फांट्यांनी व्हांवपाक लागतात. दर्यालागीं न्हंयेच्या लोटाक दर्यांतल्या उदकाचो विरोध जाता. हाका लागून हांगा लोट खूब उणो आसता. हांगा न्हंयेचो गाळ सांचपाक लागता. न्हंयेचो लोट उणो जाल्ल्या कारणान साबार फाट्यांच्या रुपान हे लोट दर्याक मेळटात. अशे साबार फांटे आशिल्ल्या प्रदेशाक त्रिभूज प्रदेश अशें म्हण्टात.

**न्हंयेचें म्हत्व :** न्हंयांविशीं चडशा सगळ्या देशांनी आदराची भावना दिश्टी पडटा. तांकां लोकमाता, पिता, देवता अशीं नांवां दिल्लीं आसतात. साहित्यांत आनी संगितांत लेगीत न्हंयांच्या म्हत्वाविशीं वर्णना केल्लें आसा. चीन, थायलॅंड आनी हेर देशांनी खूब लोकांची पुराय जीण न्हंयेचेर आदारून आसता. इतिहासा पयलींच्या आनी इतिहासकाळांत न्हंयेच्या देगांनी मेळिल्ल्या अवशेशांवयल्यान आर्थीक उदरगत सुर्वेक न्हंयेच्या देगणांनी जाल्ली हाचो पुरावो मेळटा. इतिहासकाळांत अस्तंत युरोपांत न्हंयांच्या देगांचेर तेरा राजपाटणां आशिल्लीं. उत्तर अमेरिकेंत युरोपांतल्यान लोक गेल्ले, तेन्ना ताणीं आपलो राबितो दर्यादेगांनी केल्लो. भारतांतूय आर्यसंस्कृती न्हंयेचे देगेकूच भरभराटीक आयली. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार दर्यादेगांनी आनी सरभोंवतणच्या सपाट वाठारांनी पिकाळ मातयेक लागून शेतकी उत्पादन व्हड प्रमाणांत जात. गोरवां - मेढरांकूय चरपाक व्हड मळां हांगा आसतात.

फाटल्या दोन - तीन शेकड्यांसावन न्हंयांचें आर्थीक म्हत्व खूब वाडलां. दर्यांतल्यान देशाभितल्ल्या भागांनी येवपाखातीर न्हंयांचे मार्ग फायदेशीर थारतात. देशाभितल्ल्या वाठारांत मेळपी कच्चो म्हालूय व्हरपाक तांचो उपेग जाता. कॅनडा आनी हेर देशांनी न्हंयांचो उपेग लाकडां व्हरपाखातीर करतात. न्हंयांतल्यान मेळपी नुस्तें आनी ताचेखातीर केल्लें मत्स्यसंवर्धन हो न्हंयांचो एक चड म्हत्वाचो उपेग. सद्या शिंपणावळीखातीर आनी वीजनिर्माण करपाक न्हंयांचो खूब उपेग जाता.

मनशाची जीण चड प्रमाणांत उदकाचेर आदारून आशिल्ल्यान पुर्विल्ल्या काळासावन मनशान आपलो राबितो न्हंयेच्या देगणांनी केल्लो. न्हंयेच्या देगणांतली वसती वाडत रावून थंयचें जिवीत समृद्ध जावपाक लागलें, तसो न्हंयेच्या उदकाचो उपेग चड प्रमाणांत आनी विंगडविंगड गरजो भागोवपाखातीर जावपाक लागलो. तेखातीर देगणांनी विकास

घडोवन हाडपाखातीर वेगळ्यो वेगळ्यो येवजणो आंखून, हांगा अर्थीक विकास सादपाचे यत्न जाले.

– कों. वि. सं. मं.

**न्हीद :** झेम वा न्हीद म्हळ्यार दीसपट्टे जिणेंत परत परत दिसपी कुडीची स्वभावीक अवस्था. न्हिदेचे अवस्थेंत मेंदवावयलो ताण उणो जाता आनी कुडीचे सगळे स्नायू सदळ जातात. कुडीचे आनी मनाचे वेपार मंद चलतात. कुडींत घडून येवपी भौतीक आनी रसायनीक बदल लेगीत न्हिदेचे अवस्थेंत उण्या प्रमाणांत जाल्ले दिसतात. न्हिदेक लागून पुराय कुडीक आनी मनाक विसव मेळटा आनी परतून काम करपाक एक नवी उमेद आनी तरतरी येता. न्हीद ही कुडीची एक सभावीक आनी सैमीक गरज.

सोरो पियेतकूच येवपी गुर्मी आनी शुद्धीहरणाउपरांत (Anaesthesia) येवपी मोहनिद्रा कांय जनावरांक शिंयाच्या दिसांनी येवपी दीर्घ शीतन्हीद (Winter Sleep) ह्या अवस्थांनी लेगीत न्हिदेचीं, झेमेचीं लक्षणा दिसतात. आपस्माराचो (epilepsy - फेंफऱ्याचो) झटको येवन वतकूच आनी संमोहनाच्या प्रयोगाउपरांत कांय हालचाली दिसतात. पूण ह्या प्रकारांपरस झेम (न्हीद) ही अवस्था वेगळीच आसता. न्हीदेंतल्यान जागृतावस्थेंत येवपाक खास यत्न करचे पडनात आनी एकदां जागृतावस्थेंत येतकूच त्या मनशाचें कार्य सदचेप्रमाण चलता; पूण असो प्रकार वयर सांगिल्ल्या अवस्थांनी घडना.

**जनावरांची न्हीद :** भौतेक चडशा जनावरांक जागृतावस्था आनी न्हीद एका फाटोफाट एक अशा अनुक्रमान येतात आनी एक तरेची लयबद्दताय दिसता. चडशे सस्तन प्राणी आनी सुकणीं हांची न्हिदेची तरा मनशाचे न्हिदेभाशेनूच आसता. न्हिदेचे अवस्थेंत तांचे कुडीचे क्रियेंत घडून येवपी फरक लेगीत मनशाचे न्हिदेंतल्या कुडीच्या क्रिया-फरकांसारकेच आसतात. घुशी दिसांतल्यान १० खेपे, हुदीर णव खेपे आनी सोंशे १६ ते २१ खेपे न्हिदतात. वांस्वेलां शिंयाच्या दिसांनी दीर्घ अशी शीतन्हीद (Winter sleep) घेनात, पूण शिंयाच्या दिसांनी मदींमदीं एके खेपेक चोविसेक वरां न्हीद घेतात.

सर्वसादारणपणान मासाहारी जनावरांक शाकाहारी जनावरांपरस न्हिदेची चड गरज आसता अशें दिसून आयलां. सुणे आनी माजर खूब वेळ न्हिदतात. पूण भोंवतणीं बोवाळ आसल्यार तांका बेगीन न्हीद येना. शाकाहारी जनावरां थोडी थोडी न्हीद घेतात. पूण जनावरांची न्हीद मनशाचे न्हिदेइतली सुस्त आसना. घोड्याची न्हीद खूब सावचीत आसता. पावलांची मातशी सुलूस लागल्यार लेगीत तो जागो जाता. तो दोळे उकते वा अर्दे उकते दवरून न्हिदता. तो जमनीचेर आडवो पडून न्हिदता पूण तो उबो रावुनूय झेमूंक शकता. घोड्याक थोडे पूण शांत न्हिदेची गरज आसता. रंवथ करपी जनावरां आडवीं पडून तकली फाटल्यान घुंवडावन आनी जांगडांनी नाक चेपून वा फुडें तकली व्हरून जमनीक खाडकी तेंकोवन न्हिदतात. भौतेक सगळीं जनावरां जमनीचेर आडवीं पडून न्हीद घेतात. वागोळें मात उब्यांनीच न्हीद घेता.

**न्हिदेचो काळ :** जशी पिराय वाडत वता तशी न्हिदेची गरज उणी जायत वता. नवजात भुरग्याक सुमार १४-१५ वरांची न्हीद जाय आसता आनी ६ म्हयने जातकच ताका १३-१४ वरांची न्हीद पुरो जाता. भुरग्याक १२ ते १४ वरां, जाण्टयाक ७ ते ९ वरां आनी म्हाताऱ्याक ५ ते ७ वरांची न्हीद पुरो जाता.

**न्हिदेंतल्यो वेगवेगळ्यो प्रक्रिया आनी संवयो :** भायले परिस्थितीक लागून तयार जावपी संवेदना उणी जातकूच रोखडीच न्हीद येता. म्हणजेच जिवाच्या कुडीभायल्या वेव्हारांचो कुडीचेर जावपी प्रभाव (disturbance) उणो जातकूच कुडीक एक अव्यत्यय अशी अवस्था प्राप्त जाता. ही अवस्था कुडीक न्हीदेवटेन व्हरता. तेचप्रमाण न्हीद ही जी कुडीची सभावीक आनी दिसपट्टे जीणेंत थरावीक काळांत येवपी अवस्था आसा, ती प्राप्त जाली की अचळय भायल्यो संवेदना म्हळ्यार उजवाडाच्यो संवेदना, आवाजाची संवेदना आनी स्पर्शाची संवेदना उण्यो जाल्ल्यो जाणवतात.

न्हिदेंत कुडीची अवस्था आनी हालचाली बदलत आसतात. ल्हान भुरगीं तशेंच कांय जाण्टी मनशां लेगीत न्हिदेंत लोळटात. सपनांत कांय मनशांक तरेकवार हालचाली करपाची संवय आसता. सुमार १०-१२ मिनटां उपरांत कूस परतप, हातपांय हालोवप असल्यो हालचाली एकसारक्यो चालूच आसतात. न्हिदेचे अवस्थेंत सगळ्या स्नायूंवागडाच जबड्याचे आनी ताळ्याचे स्नायू लेगीत सदळ जाल्ल्यान कांय जाणांचो ताळो कंप पावता आनी ताका लागून जो आवाज तयार जाता ताका "घोरेवप" अशें म्हण्टात. कांय जाण तोंड उकतेंच दवरून न्हिदतात. हाचें कारण म्हळ्यार तांच्या नासागिलाय (ताळ्यांत मदीं आशिल्ली ग्रंथी) आनी गिलायू (टॉन्सिल) हांच्या निरोगीपणाचो अभाव.

न्हिदेंत बडबडप, दांत खांवप, आड्डप, न्हिदेंतल्यान उठून चलपाक लागप असले प्रकार वायट सपनां, मानसीक ताण वा मनोविकृतीच्या दुयेंसाक लागून घडटात. ल्हान भुरग्यांक तशेंच ५ - ७ वर्सांच्या निरोगी भुरग्यांक लेगीत हांतरूणार मुतपाची संवय आसता. पूण हीच संवय जाण्टेपणांत दिसल्यार तें मानसिक दुयेंसाचें एक लक्षण थरता.

न्हीद पडपाचो सदचो वेळ, न्हिदपाखातीर सदच्या वापरांत आशिल्लीं उशीं, गादीं, पांगरुणां ह्या गजालींचेरूय न्हीद आदारून आसता. जण एकल्याच्या सभावधर्माप्रमाण त्या त्या मनशाची न्हिदेची गरज बदलता. कांय जाणांक ९-९ वरां न्हीद जाय आसता जाल्यार कांय जाणांक ४-४ वरां लेगीत न्हिदल्यार पुराय विसव मेळटा. जागृतावस्था आनी न्हीद हांचे मजगतीं एके तरेची लयबद्दताय तयार जावन ताका लागून थरावीक वेळारूच न्हीद आनी जाग येता. मनीस जे सुवातेर रावता त्या भुगोलीक वाठाराचो आनी थंयचे संस्कृतायेचो थोडोभोव परिणाम ताचे न्हिदेचेर जाता. उश्ण कटिबंधांतले लोक खास करून उबाळाच्या दिसांनी जेवणाउपरांत ल्हानशी झेम (वामकुक्षी) काडटात आनी त्या मानान रातची उणी न्हीद घेतात. उत्तर ध्रुवाकडल्या वाठारांतले लोक वसंत ऋतूंत न्हीद कमी घेवन शिशिरांत ती भरून काडटात. रातपाळी करपी लोक आनी नटांसारके वेवसायीक हांकां आपलो न्हिदपाचो आनी जागपाचो वेळ बदलचो पडटा.

**न्हिदेविशींच्यो उपपत्ती आनी मतां :** न्हीद किद्याक लागून येता हाचेविशीं जाणकारांच्यो जायत्यो कल्पना, तर्क आनी मतां आसात. पूण अजून मेरेन न्हिदेविशीं निश्चीत आनी शास्त्रशुद्ध अशी उपपत्ती सांगपाक येना. त्या विंगड विंगड मतांमदलीं कांय म्हत्वाचीं मतां अशीं –

**रक्त परिवहन उपपत्ती :** मेंदवाक रगताचो पुरवठो उणो जाल्ल्यान सगळ्या तंत्रिका तंत्राचो म्हळ्यार मज्जासंस्थेचो (Nervous System) वावर मंदपणान जाता आनी ताका लागून झेम येता. पोटभर जेवण घेतकूच

जठराच्यो रक्तवाहीन्यो (Blood Vesseles) रुंदावतात आनी चडशें रगत थंय गेल्ल्यान मेंदवाकडेन वचपी रगताचें प्रमाण उणें जाता आनी ताका लागून न्हीद येता, असो हे उपपत्तीचो अर्थ आसा.

**रसायनीक उपपत्ती :** कुडींतल्या ऊतकांक (tissue) चड काम करून थकवो आयिल्ल्यान कांय रसायनीक पदार्थ तयार जातात. ह्या पदार्थांची मेंदवाचेर क्रिया जाल्ल्यान न्हीद येता, अशें एक मत आसा. सुण्यांचेर केल्ल्या कांय प्रयोगांवरवीं अशें अनुमान काडलां कि संमोहनवीख (Hypnotoxiny)ह्या नांवाचो पदार्थ मेंदवांत तयार जावन ताका लागून न्हीद येता आसूंक जाय.

**अंतःस्त्रावी (Endocrine) उपपत्ती :** मेंदवाच्या तळाक़ आशिल्ल्या पोष ग्रंथींत (Pituitary gland) जागृतावस्थेंत ब्रोमीन ह्या पदार्थाचें प्रमाण चड आसता आनी न्हिदेंत तें प्रमाण उणें जावन मेंदवाच्या मस्तिष्कसेतू (Pons) ह्या भागांत मात चड प्रमाणांत दिसता. हाचेवयल्यान पोष ग्रंथींतल्या ह्या अंतःस्त्रावी पदार्थाक लागून न्हीद येता आसूंक जाय अशी एक उपपत्ती लायल्या.

**तंत्रिकीय उपपत्ती :** तंत्रिका कोशिका म्हळ्यार मज्जापेशींचो (Nerve cell) अंश केन्ना केन्ना भेरेता आनी संवेदना पातळपाची क्रिया बंद जाता. ताका लागून झेम येता असो हे उपपत्तीचो अर्थ आसा.

**निरोध उपपत्ती :** आय. पी. पावलॉव ह्या रशियन शास्त्रज्ञान अशी एक उपपत्ती काडल्या की, एकूच क्रिया परत परत करीत राविल्ल्यान मेंदवाच्या सगळ्यांत उंचेल्या केंद्रांत निरोध (कार्य करपाची असमर्थताय) तयार जाता. ही निरोध स्थिती पुराय मेंदवाचेर पातळटा आनी न्हीद येता. पावलॉवाचे हे निरोध उपपत्तीक लागून सपनांची थोडीशी विस्कटावणी जाल्या.

**क्लायटमन उपपत्ती :** एन्. क्लायटमन ह्या शास्त्रज्ञान दोन तीन उपपत्तींचो समन्वय दाखोवपी असो आपलो एक वेगळो सिद्धांत मांडला. हे उपपत्तीप्रमाण जिवाचे कुडीची क्रिया दोन प्रहरांचेर सगळ्यात चड कार्यरत आसता आनी उत्तररातीं आनी फांतोडेर सगळ्यांत उणी कार्यरत आसता. हाका लागून दोन प्रहरांक मेंदवाकडेन वचपी संवेदना चड आसतात आनी उत्तररातीं त्यो उण्यो आसतात. देखून, दोन प्रहरांच्या वेळार जागृतावस्था चड कार्यक्षम उरता जाल्यार उत्तररातीं ती उणी कार्यक्षम उरता.

**निद्रानाश :** मानसीक ताण आनी मानसीक विकृतींचें दुयेंस जाल्यार मनशाची न्हीदमोड जाता. एकार एक चार दीस जांगरण जालें जाल्यार पयलीं गुंगी येता. मागीर सुस्ती येवन झेमेची लकणी येवपाक लागतात. तकली जड जाल्लेभाशेन दिसता. नदर - भ्रम, निराधारभ्रम (hallucination) आनी मिथ्यादर्शनां (मृगजलासारके देखाव) दिसपाक लागतात. केन्ना केन्ना जागृतावस्थेंत घडूंक नाशिल्ल्या कसल्याय प्रसंगाचो प्रत्यक्ष अणभव घेतिल्ल्याची भावना जाता. कुडीचे बारीक सारीक गजालींचेर आनी दुयेंसाचेर मन केंद्रीत जाता. आनिकूय दोन दीस जागरणां जालीं जाल्यार मिथ्याश्रवणां (काल्पनीक आवाज) आयकूंक येवपाक लागतात. नदर थिरावल्लेवरी जाता. मनशाचो सभाव दुबावी जाता. ताका वेळाकाळाचें भान उरना, भोंवतणच्या मनशांची वळख पटना. ताचें मुखामळ निर्विकार, कसलेंय रुपडें घाल्ल्या मनशाभशेन जाता. प्रणालीत संभ्रम विकृती (paranoia) आनी छिन्नामानस (Schizophreria) ह्या मानसीक विकृतींचीं लक्षणां दिसपाक लागतात. चड काळ मनशाक न्हिदूंक दिना जातकूच ताचेर मानसीक ताण येता आनी तो कसल्याय आरोपांची कबुली दिता. हो छळाचो प्रकार कांय देशांनी कबुलीजबाब मेळोवपाखातीर वा मेंदू प्रक्षालनाखातीर (Brain Washing) वापरतात. मनशाची मानसीक विकृती सुप्त स्थितींत आसल्यार न्हीदमोडीक लागून ती उत्की जाता आनी वाडटा.

आपल्याक जाय तेन्ना, जाय तशी सुस्त न्हीद लागलीना म्हण्टकूच मनीस न्हीदमोड जाली अशें म्हणपाक लागता. बरी भलायकी आशिल्ल्या मनशाक लेगीत केन्नाकेन्नाय न्हीद सारकी लागना. पूण एकसारकी न्हीदमोड जायत रावप हें भावनीक विकृतीचें मूळ लक्षण. उपाट चिंतेंत आशिल्ल्या वा निर्शेल्ल्या मनशांक न्हिदेंतल्यान परत- परत जाग येता आनी उपरांत न्हीद लागना. असल्या मनशांक फांतोड जावंचेआदींच जाग येता आनी तांचें मन निर्शेल्ल्या चिंतनांनी भरून वता. चड राग वा तिडक आयिल्ली आसल्यार केन्नाकेन्ना न्हीद येवपाक कळाव जाता.

नियमीत आहार, कुडीचो व्यायाम, योगासनां हांचेवरवीं निद्रानाशाचें (न्हीदमोडीचें) दुयेंस पयस करूं येता. सांजेच्या आदेसाक काफी, तंबाकू असले उत्तेजक पदार्थ टाळ्ळ्यार न्हीदमोड जावंक पावना. जागरणान आयिल्ली सुस्ती आनी जडसाण भरपूर न्हीद घेतकूच वता. पूण न्हीदमोडीची समस्या गंभीर आसल्यार मानसोपचार तज्ञ वैजाचो सल्लो घेवप गरजेचें. मानसीक दुयेंसाक लागून न्हीदमोड जाल्ल्या पिडेस्तांक शामकां (sedatives), शायकां (Hypnotives) आनी शांतकां (Tranquilizers) असल्या वखदांनी वा संमोहन न्हिदेन (hypnotic trance) बरी न्हीद लागता.

न्हिदेविशीं अजून पुराय शास्त्रीय गिन्यान मेळूंक ना आनी ह्या मळाचेर कितलेशेच शास्त्रज्ञ संशोधन करीत आसात.

**निद्रारोग** (ट्रिपॅनोसोमियासीस) : प्रोटोझोआ संघाच्या 'ट्रिपॅनोझोआ' वंशांतल्या परजिवींच्या (parastis) संक्रमणा पसून (infection) जावपी दुयेंसाक 'निद्रारोग' अशें म्हण्टात. हो रोग आफ्रिकेच्या विषुववृत्तीय वाठारांत (१२° उ. आनी २५° द. अक्षांशां मदल्या वाठारांत) दिसता आनी म्हणून ताका 'आफ्रिकी निद्रारोग' अशेंय नांव आसा.

**न्हिदे - झटके :** (नार्कोलॅप्सी) अकस्मात आनी परत परत अनिर्वाय आनी थोडो वेळ उरपी न्हिदे-झटके येवपी विकृतीक 'नार्कोलॅप्सी' (Narcolpsy) अशें म्हण्टात. जे. बी. ई. झॅलिनो ह्या फ्रेंच वैजान ह्या रोगाचे सगळ्यांत पयलीं वर्णन केलें म्हणून ह्या रोगाक 'झेलिनो रोग' वा (Syndrome) लक्षणसमूह अशेंय म्हण्टात. हाचें खाशेलेपण म्हळ्यार हे न्हिदेंतल्यान रोग्याक एकदम जागो करूं येता. हे झटके तो काम करीत आसतनाय येतात. ह्या पिडेस्ताक दिसांतल्यान खूब खेपो न्हिदे - झटके येवन लेगीत रातची पुराय न्हीद लागता. हो रोग जीवघेणो न्हय.

हे विकृतीवांगडाच चड करून फुडलीं तीन लक्षणांय दिश्टी पडटात. १) स्तब्धी (Catalepsy) - अकस्मात जाल्ले भावनाविवशतेक लागून (खोस, तिडक, हुस्को आदी) हातापांयांतल्या स्नायुंचो शक्तीपात जावन स्तब्ध जाता. २) न्हिदे - अंगघात (paralysis) : जाग येनाफुडें वा न्हिदेंत मन पुराय जागृत आसतना कुडीची सगळी हालचाल बंद पडप. ३) निराधार भ्रम (Hallucination) अवस्था : न्हीद लागपाच्या सुमाराक स्पश्ट आनी भयांकृत असो निराधार भ्रम जावप.

दादले आनी बायलो हांचेभितर दादल्यामदीं ह्या रोगाचें प्रमाण चड आसून, हो रोग १० ते ३० वर्सां पिरायेच्या गटांत सुरू जाता आनी जल्मभर उरता. केन्नाकेन्नाय हो रोग मेंदवाच्या विशिश्ट अशा जाग्यार निर्माण जाल्ल्या गांठ वा सुजीक लागून जावं येता.

- कों. वि. सं. मं.

**पंग्वाल :** हिमाचल प्रदेशांतली एक आदिवासी जमात. पंगवाले, पांगी ह्या नांवांनीय हे जमातीचो उल्लेख करतात. हिमाचल प्रदेशांतल्या चंबा जिल्ह्यांतले वायव्य दिशेक ह्या लोकांचो राबितो आसा. ह्या वाठाराक पांगी प्रदेश अशें म्हण्टात. हो वाठार दर्यार्थळावयल्यान २.५० ते ३.५० हजार मीटर ऊंच आसा. ताका लागून थंडेच्या दिसांनी हांगा खूब बर्फ पडटा आनी ह्या प्रदेशांतलें येवप-वचप पुरायपणान बंद जाता. चंबासावन पांगी प्रदेशांत पावतामेरेन हिमालयाचीं खूब तेमकां लागतात.

पंग्वाल लोकांमदीं ब्राह्मण, राजपूत, ठाकूर आनी राठी ह्यो चार सवर्ण जाती आसून हाली, लोहार, मेघ आनी ढाकी ह्यो चार असवर्ण जाती आसात. पूण सवर्ण आनी असवर्णांभितर भेदभाव ना. असवर्ण, सवर्णांवांगडा सगळ्या धर्मीक आनी समाजीक वेव्हारांनी वांटो घेवंक शकतात. पंग्वाल लोक चिनाब, रावी, बिआस आनी लाहुल ह्या न्हंयां-देगणांतल्यान हांगा आयले आसूं येता अशें कांय तज्ञांचें मत आसा.

पंग्वाल लोक पंगवाली ही बोलीभास उलयतात. ती संस्कृत आनी पाली ह्या भाशांचें भरसल्लें रूप. तांचे भाशेंत साहित्य ना पूण मौखिक परंपरेन चलत आयिल्लीं कांय गितां आनी कथा आसात.

पंग्वाल दादले पायजमो आनी सदरो घालून माथ्यार काळी टोपी घालतात. बायलो चुडीदार पायजमो आनी कुडत्याभाशेन चोळी घालतात. भेंडांक पटो बांदतात. केसांचो आंबाडो माथ्यार घालून तो लेंसान बांदतात. कानांत बाळी आनी गळ्यांत रुप्याचे हार घालतात. बोटांनी रूप्याच्यो मुदयो घालतात. ह्या भेसांत त्यो खुबूच आकर्शक दिसतात. त्यो सदांच हांसमुख आसतात आनी पदां म्हण्टात.

तांच्या शेतांतल्यान मेळपी धान्य तांकां पुराय वर्सभर पावना. हाका लागून उपरांत ते कांय म्हयने कंदमुळां वा तण खावन रावतात. चड करून ते लोक जनावरां मारप वा तांचें मास खावप हें पाप समजतात. पूण तशें केलेबगर तांकां दुसरो पर्याय नासता. हेर खंयचोय जिन्नस ते एकले खातात पूण मास मात दुसऱ्याक दिलेबगर खायनात. तशें केल्यान पाप लागू जायना असो तांचो भावार्थ आसा.

पंग्वाल लोक हिंदू धर्मीय आसून ते बौध्द देव-देवतांकूय भजतात. तशेंच थळाव्या देवांक आनी भुताखेतांचेरूय तांचो विस्वास आसा. शिवरात्र, जन्माश्टम, त्रिपुरी पुनव हे उत्सव ते व्हड दबाज्यान मनयतात. त्या वेळार नाचांच्यो, पदांच्यो कार्यावळी करतात. पांगी प्रदेशाचे उत्तरेक कैलास पर्वत आसा. तें शंकराचें निवासस्थान समजून ताची भक्तिभावान भेट घेतात.

पंग्वाल लोक वैशाखांतल्या शुध्द पाडव्याक विशू वा बिसोआ ही परब मनयतात. त्या दिसा तुपांत तळिल्ल्यो गंवाच्यो 'घाऱ्यो' तांकां सौज म्हण्टात, त्यो देवीक ओंपतात. जवासावन तयार केल्लो सोरो वा कुगरी पियेतात. माघांतल्या शुध्द पाडव्याक पितृपुजा करतात. माघ पुनवेक 'खौल' हो सण मनयतात. त्या दिसा एक मशाल, तिका दलपुती वा चाजगी म्हण्टात ती घेवन गांवचो मुखेली देवतांक ओंवाळटा. भुरगींय ल्हान कांकाडे पेटोवन अक्रोडाच्या झाडार मारतात.

पंग्वाल लोकांमदीं, आवय-बापायचे मान्यतायेन जाल्ल्या लग्नाक जानजी वा जानी म्हण्टात. ह्या लग्नांत सातूचे 'तातू' म्हळ्यार टोकाचे लाडू करतात आनी ते न्हवऱ्याचे आवयबापूय, व्हंकलेच्या आवय-बापायक लग्ना वेळार दितात. लग्न जातकूच चार दिसांनी बायल आपल्या घोवाक घेवन कुळारा वता आनी चार दीस रावता. ह्या सुवाळ्याक 'फिरनी' म्हण्टात. पंग्वाल लोकांमदीं तीन तरांनी लग्नां जातात. देज दिवन चली घेवप ह्या प्रकाराक फक्की पकडना वा धर्मपुण्यकी शादी म्हण्टात. साटे-लोटे पद्दतीन लग्न करतात तिका सेवा-लग्न म्हण्टात. चल्यान चलयेगेर सात वर्सां नोकरी करून उपरांत तिचेकडेन लग्न जावप हे पद्दतीक बार्टी लग्न म्हण्टात. हीच पद्दत ते चड वापरतात. पंग्वाल दादल्याचें लग्न जावप कठीण आसता. कारण ते आळशी आशिल्ल्यान हे जमातींतल्यो चलयो भायल्या प्रदेशांतले न्हवरे सोदतात आनी लग्नां जातात. हे जमातींतल्या दादल्याक सोऱ्याचें खूब वेसन आसता. ते फकत शेतांत नांगरपाचें आनी रानांतलीं लाकडां हाडपाचीं कामां करतात. बाकीचीं सगळीं कामां तांच्यो बायलो करतात.

हे लोक मडीं लासतात. मनीस ज्या वाराक मेला त्या वाराक वर्सभर एकाशनाचो म्हणून पाळटात.

– कों. वि. सं. मं.

**पंचकन्या :** प्रातःस्मरणीय अशा पांच साध्वी बायलांक उद्देशून ही संज्ञा वापरल्या. अहिल्या, द्रौपदी, सीता, तारा आनी मंदोदरी ह्यो त्यो पांच बायलो. कांयकडेन ह्या पांच नांवांनी सीतेबदला कुंतीचें नांव मेळटा. पूण ह्या पांचूय बायलांभितर एकूय कन्या ना. शास्त्रांत कन्या हें उतर फकत धा वर्सांचे चलयेकूच वापरतात. तेखातीर 'पंचकन्या' हो शब्द कसो आयलो हाचेविशीं निश्चीत म्हायती मेळना.

प्रातःस्मरणांत म्हण्टात त्या हेविशींच्या श्लोकांत आचारमयूखानुसार 'पन्च कन्याःस्मरेत्' असो पाठ आसा, जाल्यार आचारेंदुनुसार 'पञ्चकं ना स्मरेत्' असो पाठ मेळटा. त्यो साध्वी म्हणुनूच चड नामनेक पावल्यात.

गौतम ऋषीची बायल अहिल्या, हिचें इंद्रान पातिव्रत्य भंग केल्ल्यान गौतमान अहिल्येक शाप दिलो; पूण फुडें रामाच्या पांयांच्या स्पर्शान तिचो उद्धार जालो. द्रौपदी पांच पांडवांची बायल आसून तेजस्वी पातिव्रत्याखातीर तिची नामना आसा. सीतेक रावणाच्या बंदिवासांत काळ काडचो पडलो आनी उपरांत आपल्या पातिव्रत्याचो निर्वाळो दिवपाखातीर तिणें अग्निदिव्य केलें. कुंतीक दुर्वास मुनीन दिल्ल्या मंत्राच्या सामर्थ्यान लग्नापयलींच कर्ण आनी लग्नाउपरांत धर्म, भीम आनी अर्जून हे पूत जाले. तारा ही वालीची बायल. वाली वधाउपरांत ती सुग्रीवावांगडा लग्न जाली. मंदोदरी ही रावणाची बायल. अंगदान तिका उबारून व्हरपाचो यत्न केलो.

भारतीय संस्कृतींत ह्या पांच साध्वींक मानाची सुवात आसा.

'अहिनक सुत्रावली' ह्या ग्रंथांत एक श्लोक आसा तो असो–

अहल्या मंदोदरी तारा कुंती द्रौपदी तथा पंचकं
ना स्मरेत् नित्यं महापातक नाशनं।

अर्थ – अहिल्या, मंदोदरी, तारा, कुंती आनी द्रौपदी ह्या बायलांचें, दादल्यान सदांच स्मरण करचें. तशें केल्यान ताचीं सगळीं महापातकां नश्ट जातात.

– कों. वि. सं. मं.

**पंचखादय :** पांच जिनसांचो एक खाणाचो प्रकार. नाल्लाची सोय, गोड, मुगांदाळ, काजुबियो आनी वेलची हे पांच पदार्थ घालून हो जिन्नस करतात. ह्या पांच जिनसांभायर केन्नाकेन्नाय ल्हायो, खारीक, खाजूर,

खडीसाखर, खसखस आनी सुकें खोबरें घालून सुकी पंचखादय करतात. पंचखादय हो खादय प्रकार देवाक विशेश करून गणपतीक निवेदय म्हणून दाखयतात. कांय कडेन भजन, कीर्तन, पुजा-अर्चा प्रसंगावेळार निवेदय म्हणून पंचखादय वांटपाची चाल आसा.

पंचखादय हो भोवतेक उत्सवाच्या वेळार निवेदय म्हणून दाखयतात आसलो तरी गोंयांत चवथीक गणपती आरतीच्या वेळार चड करून पंचखादय वाट्टात. कांयकडेन पंचखादयाची आंगवण करतात. आपल्या मनांतली इत्सा (अपत्यप्राप्ती, पिडा निवारण आनी हेर) सफल जावंचें म्हणून गणपतीमुखार गाराणें घालतात. ती इत्सा सफल जातकूच १ ते १०० मेरेन नाल्लांची पंचखादय करतलों अशी आंगवण करतात आनी फलप्राप्तीउपरांत ती पुराय करप जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**पंचगंगा :** कोल्हापूर जिल्ह्याचे उत्तरेकडल्यान उदेंतेवटेन व्हांवपी कृष्णा न्हंयेचो एक मुखेल फांटो. उदक व्हांवपी क्षेत्र सुमार २,०७२ चौ. किमी. आसा. कासारी, कुंभी, तुळशी, भोगावती आनी सरस्वती (गुप्त न्हंय) ह्या पांच न्हंयांच्या संयुक्त प्रवाहाक पंचगंगा म्हण्टात. कोल्हापूरचे वायव्येक ६ किमी. वयल्या प्रयाग हे पवित्र सुवातेवयल्यान पंचगंगा व्हांवता. ही प्रयागासावन सुमार ६४ किमी. चेर व्हांवत वचून नरसोबाची वाडी ह्या तीर्थक्षेत्रालागीं कृष्णेक मेळटा.

पंचगंगेच्या सुरवेच्या प्रवाहांतल्या पांच न्हंयांतल्यो कासारी आनी भोगावती ह्यो मुखेल न्हंयो आसात. कासारी न्हंय शाहुवाडी तालुक्यांत उत्तरेकडल्या विशाळगड आनी दक्षिणेकडल्या वाघजाई हांचेलागी त्रिकोणाकृती प्रदेशांत सुरवात जावन सुमार ५६ किमी. व्हांवत वचून प्रयागालागीं पंचगंगेक मेळटा. भोगावती न्हंय सह्याद्रीचे पर्वतरांकेंत, फोंडाघाटासावन कांय अंतराचेर सुरवात जावन ४० किमी. ईशान्येक आनी उत्तरेक व्हांवत वता आनी बीडालागीं तुळशी न्हंयेक मेळ्ळेउपरांत हांचो संयुक्त प्रवाह कुंभी आनी धामणी हांच्या संयुक्त प्रवाहासकट पंचगंगेक मेळटा. ह्या सगळ्या न्हंयांचीं देगणां मेळून पंचगंगा देगणाचें अस्तंत देगण कोल्हापूरामेरेन आनी उदेंत देगण कोल्हापूर ते नरसोबाची वाडीमेरेन अशे दोन वांटे जातात.

कोल्हापूर, रुकडी, इचलकरंजी आनी कुरूंदवाड हीं हे न्हंयेवयलीं मुखेल शारां. नरसोबाची वाडी हें नामनेचें दत्तस्थानूय कृष्णा-पंचगंगेच्या संगमाचेर आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पंचजन – १ :** पंच म्हळ्यार पांच आनी जन म्हळ्यार लोक. पंचजन म्हळ्यार पांच लोकांचो पंगड. ह्या पांच लोकांविशीं विद्वानांमदीं एकमत ना. कांय जाणांच्या मतान ते पांच स्वतंत्र मानववंश जाल्यार कांय अभ्यासक ते पांच विंगड विंगड समाज मानतात.

वैदिक वाङ्मयांत पंचजन हो शब्द खूबकडेन आयला. ऋग्वेद काळांत आर्यलोक जायत्या लोकांमदीं म्हळ्यार समुदायांनी विभागिल्ले आनी तातूंत पांच मुखेल लोक आशिल्ले. हे पांच जाण म्हळ्यार यदू, तुर्वश, द्रुह्यू, अनू आनी पुरू हे आसुंये अशें एक मत आसा. हांचो उल्लेख पञ्च कृष्टयः पञ्च क्षिती, पञ्चक्षितीः मानुषीः, पञ्चमानुषाः, पञ्च चर्षणीः, पञ्चजाताः, पञ्चभूमा, पञ्चव्राताः ह्या नांवांनीय येता. ह्या पंचजनांची गणना देवांवांगडा जाताली. इंद्राकडेन तांचें बरेपण आशिल्लें.

ह्या पंचजनांनीच सिंधु संस्कृतायेच्या लोकांचेर जैत मेळयलें अशें म्हण्टात. हे मुळांत झेलम आनी चेनाब ह्या न्हंयांचे उदेंतेकडेन रावताले. कांय आर्य लोक आनिकूय उदेंतेकडेन पाविल्ले. इ. स. पयलीं सातव्या शेंकड्यांत हे कुरुपंचालांत आयले. थंयसावन फुडल्या कांय शेंकड्यांमदीं काशी-कोसलमेरेन पावले आनी उपरांत मगध देशांत गेले.

गंधर्व, अप्सरा, देव, असूर आनी राक्षस हे पंचजन आशिल्ले अशें सायणाचार्यान म्हळां.

देव, मनीस, गंधर्व, सोरोप आनी पितर हे पंचजन आशिल्ले अशें ऐतरेय ब्राह्मणांत म्हळां.

यास्काचार्याच्या मतान गंधर्व, पितर, देव, असूर आनी राक्षस हे पंचजन जाल्यार औपमन्यवाच्या मतान ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र हे चार वर्ण आनी पांचवो निषाद हे पंचजन.

शतपथ ब्राह्मण आनी ऐतरेय ब्राह्मण हातूंत पंचजन हे भरताचे विरोधी आशिल्ले अशें म्हळां. ऋग्वेदांतल्या दाशराज्ञ झुजाच्या वर्णनांत असोच उल्लेख आसा.

सर्गेस्त सातावळेकर हाच्या मतान पंचजन म्हळ्यार भोवजन वा आम जनता असो जाता.

रोथ ह्या अस्तंती पंडिताच्या मतान पंचजनांनी जगांतल्या सगळ्या मानवजातींचो आस्पाव जाता. अथर्ववेदांत उदेंत, अस्तंत, उत्तर, दक्षीण आनी मध्य अशो पांच दिशा मानल्यात. ह्या पांच दिशांक रावपी लोक ते पंचजन अशें रोथ हाचें मत आसा. झीमर ह्या दुसऱ्या अस्तंती अभ्यासकाक हें मत मान्य ना. ताच्या मतान पंचजनांकडेन फकत आर्यांचोच संबंद आसून, चड करून तांच्याच पांच टोळयांक ताणें पंचजन अशें म्हळां.

अशे तरेन उदेंती आनी अस्तंती विद्वानांभितर मतभेद आशिल्ल्यान, पंचजन कोण हें आजुनूय निश्चीत जावंक ना.

**पंचजन – २ :** शंखाचें रूप घेतिल्लो एक असूर. तो दर्यांत रावतालो. ताणें सांदिपनी ऋषीच्या पुताक धरून दर्यांत व्हेलो. कृष्णान दर्यांत बूड मारून ताका जिवो मारलो आनी ताचें शंखाचें कवच काडून उडयलें.

**पंचजन – ३ :** एक प्रजापती. ताका असिक्नी नांवाची धूव आशिल्ली. ती ताणें दक्षाक दिल्ली.

– कों. वि. सं. मं.

**पंचतंत्र :** संवसारीक नामनेचो बोधिकथांचो संग्रह. हाचो कर्तो विष्णुशर्मा. हाचे वट्ट पांच भाग आसून दरेका भागाक तंत्र अशी संज्ञा आसा. ताकाच लागून ताका पंचतंत्र ह्या नांवान वळखतात. दरेका भागाचो विस्तार एके मुखेल कथेच्या आदारान दुसऱ्यो कथा रचून केल्लो आशिल्ल्यान ताका तंत्र ही संज्ञा दिली आसुंये. पंचतंत्राचे सुर्वेक एक ल्हानशें 'कथामुख' आसता. तातूंत ह्या संग्रहांतल्यो कथा खंयच्या निमतान सांगल्यात ताची म्हायती आसा. ती म्हायती अशी – दक्षीण देशांत, महिलारोप्य नगरांत अमरशक्ती नांवाचो एक राजा राज्य करतालो. ताका वसुशक्ती, उग्रशक्ती आनी अनेकशक्ती अशे तीन कुंवर आशिल्ले. ते तिगूय मतीशुन्य आनी

शास्त्रांनी फाटी आशिल्ले. तांची बुद्द जागोवपाचे इत्सेन राजान सुमती नांवाच्या एका मंत्र्याच्या सल्ल्यावयल्यान विष्णुशर्मा नांवाच्या एका ब्राह्मणाक आपोवन हाडलो आनी ताका आपल्या भुरग्यांक राजनीत तेचपरी दीसपट्टे जिणेंत उपेगी थरपी वेव्हारज्ञान शिकोवपाची विनंवणी केली. विष्णुशर्मान ज्या कथावरवीं उपदेश करून राजकुंवरांक शाणे केले त्योच ह्यो कथा.

ह्या बोधकथांचो उगम निश्चीत खंयच्या काळांत जालो हाची पुरायपणान म्हायती मेळना. पूण त्यो इसवी सनाच्या दुसऱ्या वा तिसऱ्या शतमानांत रचल्या आसुंये अशें मानप जाता. इ. स. ५०० च्या सुमाराक ह्यो अस्तित्वांत आशिल्ल्यो असोय एक समज आसा.

पांच तंत्रांच्या ह्या पांच मुखेल कथांमदीं जायत्यो उपकथा आसात आनी तातूंतल्यो बऱ्योचशो प्राणीकथा आसात. पूण तातूंतल्या मुखेल पांच तंत्रांचीं नांवां अशीं -

(१) मित्रभेद : हातूंत पिंगलक नांवाचो शींव आनी संजीवक नांवाचो बैल ह्या दोन इश्टांमदीं धूर्त कोल्यान कसो उजो लायलो ती कथा आसा.

(२) मित्रसंप्राप्ती : हातूंत चित्रग्रीव हंस, हिरण्यक हुंदीर, लघुपतनक कावळो, चित्रांग हरण आनी मंथरक कांसव हांची इश्टागत कशी जमली ती कथा आसा.

(३) काकोलूकीयम : हातूंत कावळो आनी घुबड हांचे दुस्मानकायेची कथा सांगल्या.

(४) लब्धप्रणाशम : हातूंत वानर आनी मानगें हांचे इश्टागतीची कथा आसा.

(५) अपक्षितकारकम : हातूंत ब्राह्मण आनी ताचें मुंगूस हांच्या अविचाराचो परिणाम दाखोवपी कथा आसा.

दरेका तंत्राचें नांव कथेचे सुर्वेकूच सांगलां आनी मुखेल कथेची सुचना करपी एक आद्य श्लोकूय दिला. देखीक 'मित्रभेद' ह्या पयल्या तंत्राचे सुर्वेक हो श्लोक आसा.

वर्धमानो महान् स्नेह : सिंहगोवृषयोर्वने ।
पिशुनेनातिलुब्धेन जाबूकेन विनाशितः ॥

रानांत शींव आनी बैल हांची वाडटी इश्टागत एका दुश्ट आनी अतिलोभी कोल्यान तोडली. ह्या श्लोकाचेर राजकुंवर अशें कशें जालें? असो प्रस्न करतात. उपरांत पिंगलक (शींव) आनी संजीवक (बैल) हांचे इश्टागती आड कोलो आयिल्ल्यान पिंगलकान संजीवकाक मारलो ही ह्या तंत्रांतली मुखेल कथा. उपरांत एके कथेंतल्यान दुसरी कथा, दुसरेंतल्यान तिसरी अशी कथांची माळ जाली. कथेंत येवपी उपकथांची सुरवातूय कसल्याय तरी श्लोकान जाता. विष्णुशर्मा हाणें पुराय नितीशास्त्र आनी वेव्हारविज्ञान ह्या कथांवरवीं त्या मंदबुध्दीच्या राजकुंवरांक सांगलें. वेव्हार येसस्वी करपाखातीर गरज आशिल्ल्या सगळ्या गुणांचो ताणें कथेवरवीं आनी सुभाषितांवरवीं उपदेश केलो.

पंचतंत्रांतल्या कथांची गद्य शैली सादी पूण आकर्शक आसा. तशेंच वेगवेगळ्या कथांचें सार कलापूर्ण, सुभाशितात्मक श्लोकांत दिवपाची पद्दत पंचतंत्रांत घेतल्या. उपदेश करप हो जरी कथांचो मुखेल हेत आसलो तरी तातूंतली मनोरंजकताय उणी जाल्ली ना. पंचतंत्रांतलीं पात्रां चड करून मोनजातूच आसलीं तरी कांय कथांनी मनीसपात्रांय आसात. प्राणीकथांचो उगम सुर्वेक महाभारतांत जालो आनी थंयच्यान स्फूर्त घेवन विष्णुशर्म्यान हो कथांझेलो तयार केलो अशें विद्वानांचें मत आसा. तांच्या मतान रामायण, महाभारत, मनुस्मृती, आनी चाणक्याचें अर्थशास्त्र हातूंतल्यान विष्णुशर्म्यान जायते विचार आनी श्लोक ह्या कथांनी घेतल्यात.

संवसारांतल्या चडशा सगळ्या भाशांतल्यान पंचतंत्राचे अणकार जाल्ले आसून ह्या पुस्तकाक संवसारांत खूब नामना मेळ्ळ्या. बुकॅशिओ, इसाप आदी पुर्विल्ल्या अस्तंती कथालेखकांक पंचतंत्रावरवींच स्फूर्त मेळ्ळी अशें विद्वानांचें मत आसा.

मूळ पंचतंत्र सद्या उपलब्ध ना. पूण ल्हान व्हड फरक आशिल्ले ताचे दोनशां परस चड पाठ मेळटात. ह्या पाठाच्यो सादारणपणान ज्यो परंपरा मानतात त्यो अशो :

(१) पेहलवी : इ. स. सव्या शेंकड्यांत पंचतंत्राचो पेहलवी अणकार जालो. ह्या अणकाराक 'करटक आनी दमनक' अशें म्हण्टात. मूळ पेहलवी अणकार उपलब्ध ना. सद्या ह्या अणकारावयल्यान तयार केल्ले सिरिॲक आनी अरबी अणकार मेळटात. फुडें अरबी अणकारावयल्यान ग्रीसी, लॅटिन, स्पेनी, इटालियी, चॅक आदी युरोपी भाशांनी पंचतंत्राचे अणकार जाल्यात.

(२) बृहत्कथेंतलें पंचतंत्र : गुणाढ्याचे बृहत्कथेंत ताणें पंचतंत्राचो आस्पाव केल्याचें म्हणप जाता. पूण तें सद्या मेळना. क्षेमेंद्र हाचे बृहत्कथा मंजरीत आनी सोमदेवाच्या कथासरित्सागरांत पंचतंत्रांतल्यो कांय कथा आसात.

(३) तंत्राख्यायिक : ह्या नांवाचीं कांय हातबरपां काश्मीरांत मेळ्ळ्यांत. हो पंचतंत्राचो सगळ्यांत पोरणो पाठ अशें मत आसा.

(४) दक्षीण भारतीय पंचतंत्र : हाचीं हातबरपां दक्षीण भारतांत मेळ्ळ्यांत.

(५) नेपाळी पंचतंत्र : हें पद्यमय आसून दक्षीण भारतीय पंचतंत्राक खूब लागीचें आसा. हाचें फकत हातबरप मेळटा.

(६) जैन पंचतंत्र : हाका 'टॅक्स्टस सिंप्लिसिअर' ह्या नांवान वळखतात. हाच्या कर्त्याची निश्चीत म्हायती मेळना. ह्या टॅक्स्टस सिंप्लिसिअरवयल्यान पूर्णभद्र नांवाच्या एका जैन यतीन एक नवो पाठ तयार केलो (११९९). ताच्या ह्या पाठाक टॅक्स्टस ऑर्नाटिअर आनी पंचाख्यान अशीं नांवां आसात. हातूंत कांय नव्यो कथा आनी सुभाशितां आयिल्लीं आसात. पंचतंत्राच्या उत्तर काळांतल्या पाठांत हो पाठ सगळ्यांत बरो समजप जाता. टॅक्स्टस सिंप्लिसिअर आनी टॅक्स्टस ऑर्नाटिअर ह्या दोन पाठांचो भारतांत व्हड प्रमाणांत प्रचार जालो.

– कों. वि. सं. मं.

**पंचम :** शुक्ल-कृष्ण पक्षांतली पांचवी तीथ. हिका पूर्णा अशें दुसरें नांव आसा. ही तीथ शूभ मानिल्ली आसा. वर्सासणाच्यो कांय पंचमी तिथी नामनेच्यो आसात त्यो अशो : नागपंचम (श्रावण शुक्ल पक्ष), ऋषीपंचम – (भाद्रपद शुक्ल पक्ष), ललीत पंचम (आश्विन शुक्ल पक्ष), पांडव पंचम (कार्तिक शुक्ल पक्ष), वसंत पंचम – (माघ शुक्ल पक्ष), रंगपंचम – (फाल्गुन कृष्ण पक्ष).

पंचमी दिसा चड करून लक्ष्मीपूजेचें विधान सांगलां. पंचमी दिसा जल्माक आयिल्लें भुरगें सुंदर, हुशार, गुणी आनी राजमान्य आसता अशें कोष्ठीप्रदीपांत सांगलां.

– कों. वि. सं. मं.

**पंचमहाभुतां :** पृथ्वी, उदक, अग्नी, वायू आनी आकाश हीं पांच तत्त्वां पंचमहाभुतां अशीं मानल्यांत. तांकांच लागून ही सगळी भौतीक सृश्ट निर्माण जाता. सगळ्या भौतीक पदार्थांनी पंचमहाभुतांचें थोडें तरी अस्तित्व आसता.

कांय अस्तंती आनी भारतीय तत्त्वज्ञानांनी चार तत्त्वां मानल्यांत. आकाश हें इंद्रियगम्य नाशिल्ल्यान तें स्वतंत्र तत्त्व मानपाची गरज ना अशें मत ताणीं मांडलां.

हीं तत्त्वां आत्म्यापसून निर्माण जालीं अशें उपनिषदांनी म्हळां. तैत्तिरीय उपनिषदांत, आकाश, वायू, अग्नी, उदक आनी पृथ्वी अशीं पांच तत्त्वां उत्पन्न जालीं अशें म्हळां. अग्नी, उदक आनी पृथ्वी ह्या तीन तत्त्वांच्या संयोगांतल्यानूच सृश्टीची उत्पत्ती जाता अशें छांदोग्य उपनिषदांत म्हळां. सांख्यदर्शनांत पुरुष आनी त्रिगुणात्मक प्रकृती हीं दोन तत्त्वां मानल्यांत. प्रकृतीपसून बुद्द आनी अहंकार हीं तत्त्वां निर्माण जातात. अहंकारांतल्या रजोगुणाचो प्रकर्ष जावन तातूंतल्यान मन आनी पांच ज्ञानेंद्रियां तयार जातात. अहंकारांतल्या तमोगुणाचो प्रकर्ष जावन तातूंतल्यान शब्द, स्पर्श, रूप, रस आनी गंध हीं पांच तन्मात्रां निर्माण जावन हांचेपसून पंचमहाभुतां तयार जातात. सृश्टीची उत्पत्ती ह्या भुतांच्या परस्पर संसर्गान जाल्ल्यान अशा मिश्रणाक 'पंचीकरण' म्हण्टात. दरेका महाभुतांत स्वताचो १/२ अंश आनी हेर चार महाभुतांचो दरेकी १/८ अंश आसता. कांय उपनिशदांनी तिनूच तत्त्वां मानिल्ल्यान तांच्या संसर्गाक 'त्रिवृत्करण' अशें म्हळां.

दरेका महाभुतांत तन्मात्रां म्हळ्यार शब्द, स्पर्श, रूप, रस, गंध हे गूण आसतात.

पुर्विल्ल्या काळांत ह्या महाभुतांक संतुश्ट करपाखातीर प्रार्थना करताले. आयजूय ह्या महाभुतांक वश करून घेवन तांचे शक्तीचो उपेग मनशाच्या कल्याणाखातीर करून घेवपाचो आर्विल्ल्या शास्त्रज्ञांचो यत्न चलला.

– कों. वि. सं. मं.

**पंचवटी :** एक पुण्यक्षेत्र. महाराष्ट्र राज्याच्या नासिक जिल्ह्यांत हें तीर्थक्षेत्र आसा. तें गोदावरी न्हंयेचे देगेर वसलां. नासिक्य (नासिक) म्हळ्यारूच पंचवटी असो वायुपुराणांत उल्लेख मेळटा. पंचवटीक रावपाक वतकूच, रामान वटवृक्षरूपी पांच ऋषिकुमारांचो उध्दार केलो म्हणून त्या थळाक पंचवटी अशें म्हणपाक लागले.

नासिका लागसार आशिल्ल्या सायखेडे गांवांत रामान मारीचाक मारलो. लक्ष्मणान शूर्पणखेचें नाक कापून तिका विद्रूप केली. पंचवटींतल्यानूच रावणान सीतेक उबारून व्हेली अशो कथा आसात.

पंचवटीच्या सुमार देड किमी. अंतराचेर तपोवन आसा. थंय लागींच इकरा घोली आसून त्यो लक्ष्मणगुहा नांवान वळखतात.

राममंदिर हें पंचवटींतलें मुखेल देवूळ. ह्या देवळाचे उत्तरेक एक घोल आसा. तिका सीतागुंफा म्हण्टात. तेभायर कपालेश्वरमंदिर, सुंदरनारायण, गंगामंदिर, रामेश्वरमंदिर हींय देवळां पळोवपासारकीं आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**पंच वर्सुकी येवजणो :** देशाचो अर्थीक, समाजीक तसोच हेर मळांवयलो विकास सादप आनी सगळ्या मळांमदीं सुमेळ राखप हो विचार मुखार दवरून ताचे पुर्ततायेखातीर हेतुपुरस्सर अशे दूरगामी अर्थीक निर्णय घेवपाची, तशेंच ते निर्णय चालीक लावपाची पांच वर्सांखातीर केल्ली येवजण. पुराय राश्ट्राच्या लोकहिताचें उद्‌दिश्ट सफल जातलें जाल्यार राश्ट्राचे सार्वभौम सत्तेकडेन राश्ट्राच्या अर्थकारणाचें नियंत्रण उरूंक जाय हे कल्पनेंतल्यान नियोजन ही संकल्पना मुखार आयली.

पयल्या म्हाझुजा उपरांत विसाव्या शतमानांत नियोजन ही संकल्पना सगळ्यांत पयलीं रशियेंत मुखार हाडचे पयलीं मुक्त अर्थवेवस्था प्रचलीत आशिल्ली. हे मुक्त अर्थवेवस्थेवरवीं राश्ट्राचो अर्थीक विकास करून घेवन ग्रेट ब्रिटन, अमेरिका, फ्रांस, सारकिल्या देशांनी पारंपारीक अर्थीक बंधनां तोडून आपआपल्या देशाचो अर्थीक विकास करून घेतलो, अशें जरी आसलें तरी मुक्त अर्थवेवस्थेंतल्यान जाल्लो अर्थीक विकास, अर्थीक समताय निर्माण करूंक पावना आनी राश्ट्राचो अर्थीक विकास जालो तरी तो समाजहीत सादूंक पावना हें मुक्त अर्थवेवस्थेंत दाखोवन दिलां. तेभायर मुक्त अर्थवेवस्था ही राश्ट्राच्या नियंत्रणाभायली प्रक्रिया आशिल्ल्यान ती सदाकाळ अर्थीक विकास सादतलीच म्हणपाची खात्री दिवंक जावचेंना. चड करून मुक्त अर्थीक वेवस्थेंत सशक्त अशी मक्तेदारशाय जल्माक येता आनी ही मक्तेदारशाय मुक्त अर्थीक कार्यावळीक बादा हाडटा. नियोजन पद्दत आनी मुक्त वेवस्था हांचे दोगांयचे फायदे तशेंच नुकसानां आसलीं तरी दोगांयचे तुळेन नियोजन पद्दत चड सुविधांची आसा हाची प्रचिती आयिल्ल्यान संवसारांतल्या भोवतेक देशांक खंयच्या ना खंयच्या रुपांत नियोजन पद्दत आपणावंक मेळटा.

सर्वसादारणपणान नियोजनां फाटलीं उद्दिश्टां आसतात तीं अशीं –

(१) वेगवान अशी अर्थीक उदरगत.

(२) वापरांतल्या वस्तूंनी विक्रमी वाड.

(३) अर्थीक थिराय म्हणजेच सगळ्यांक रोजगार.

(४) अर्थीक समानताय.

(५) परराश्ट्रीय अर्थवेव्हारांत आदार वा समतोल.

हातूंतलीं कांय उद्दिश्टां एकामेकांक पूरक आसतात जाल्यार कांय परस्परविरोधी आसतात. हें पुरकपण वा विरोधीपण सदांकाळ नासता, तशें तें उद्दिश्टांच्या थरावीक जोडयांमदीं नासता. अर्थवेवस्थेंतल्या खंयच्या उद्दिश्टांक कितलें म्हत्व दिवंचें हें थारोवपाचो यत्न नियोजनांत करप जाता. देशाच्या राजकीय, अर्थीक आनी समाजीक परिस्थितीचेर नियोजनांतल्या उद्दिश्टांचेर म्हत्व थरता. अविकसीत देशांतली विकासगती दितलो जाल्यार अर्थीक समताय ह्या उद्दिश्टांक थोडो काळ तरी दुय्यमस्थान दिवचें पडटा. कारण अर्थीक समतोल, अर्थीक विकासाक बादा हाडटा. भांडवलशाय देशांतले येवजणेंत उत्पादन यंत्रणेची कार्यक्षमताय वाडोवपाचेर भर दिवप जाता. जाल्यार साम्यवादी देशांत अर्थीक समतेक अर्थीक विकासाइतलेंच म्हत्व दिवप जाता. भोवतेक लोकशाय देशांनी अर्थीक समतेचें तत्त्व हो आदार धरून येवजण करप जाता. अशे तरेन येवजण प्रक्रियेंत येवजण तयार करपाचे पद्दतीक जितलें म्हत्व उरता तितलेंच तें येवजण कार्यरत करपाचे वेवस्थेकूय उरता. हाका लागून वित्तबळ, मनीसबळ, परकी मदत, आयात-निर्यात सारकिल्या राश्ट्रीय प्रस्नांचो विचार नियोजनांत करप जाता.

**भारतीय पंचवर्सुकी येवजणो –**

सद्याच्या रूपकारांतली पंच वर्सुकी येवजण ही १९५१-५६ हे पयले

पांच वर्सुकी येवजणेसावन अस्तित्वांत आयली आसली तरी भारताचे अर्थीक येवजणेसंबंदीं, भारत स्वतंत्र जावंचे पयलींसावन यत्न जाल्ले आसात. सर मोक्ष गुंडम विश्वेश्वरय्या हाणें १० वर्सां भितर दोट्टी उत्पन्न करपाची मोख मुखार दवरून १९३३ वर्सा येवजण केल्ली. ते उपरांत १९३८ वर्सा पंडित जवाहरलाल नेहरूच्या फुडारपणाखाल काँग्रेस पक्षान नेमिल्ले नियोजन समितीन आपलो अहवाल १९४५त तयार केल्लो. सादारणशें ह्याच काळांत देशांतल्या कांय मुखेल उद्देगपतींनी 'बाँबे प्लॅन' नांवाची भारताचे अर्थीक येवजणेची एक कार्यावळ आंखली. ही येवजण भांडवलदारांची अशें म्हणून समाजवादी गटान एम. एन. रॉय हाच्या मार्गदर्शनाखाल राष्ट्रीयीकरण करपाचे नदरेंतल्यान केल्ली 'जनता योजना' तयार केली.

हे फाटभुंयेचेर भारत स्वतंत्र जायनाफुडें पंडित जवाहरलाल नेहरूच्या फुडारपणाखाल सत्तेर आयिल्ल्या सरकारान १९५०त नियोजन आयोगाची निर्मिती करून पयले पंचवर्सुकीच्या येवजणेची सुरवात केली. भारतीय नियोजन आयोगांचो अध्यक्ष भारताचो प्रधानमंत्री आसता, ताचे वांगडा अर्थमंत्री, नियोजन मंत्री, शेतकी मंत्री, मनीस संसाधन मंत्री सारके नियोजनाकडेन संबंधीत आशिल्ले केंद्रीय मंत्री तशेच वेगवेगळ्या मळांवयले तज्ञ वांगडी म्हणून आसतात.

**पयली पंचवर्सुकी येवजण (१९५१-५६)** – दुसरें संवसारीक म्हाझूज आनी देशाची जाल्ली फाळणी हांकां लागून निर्माण जाल्ले अर्थीक अस्थीरतायेक तोंड दिवन राष्ट्रीय संपत्तेंत भरीव अशी वाड करप आनी सर्वसादारण मनशाच्या जिवीतमानांत सुदारणा घडोवन हाडून भारताचो सर्वांगीण विकास करप ही पयले पंचवर्सुकी येवजणेची मुखेल मोख आशिल्ली. हे येवजणेंत राष्ट्रीय उत्पन्न १२ टक्क्यांनी वाडोवपाचो उद्देश दवरिल्लो. हे येवजणेंत कृषी, उद्देग आनी संबंदीत बाबींचेर सरकारी क्षेत्रांतल्या खर्चाच्या सुमार ४४ प्रतिशत खर्च कृषी उद्देगाचेर करपाची मोख दवरली.

**पयली येवजण - सरकारी क्षेत्रांतलो प्रत्यक्ष खर्च**

| घटक | खर्च (कोटींनी) |
|---|---|
| शेती आनी तत्सम विभाग | २९० |
| शिंपणावळ आनी हुंवार नियंत्रण | ४३४ |
| विद्युत् | १४९ |
| ग्रामीण उद्येग आनी लघुउद्येग | ४२ |
| उद्येग आनी खनिजां | ५५ |
| येरादारी आनी प्रसारण | ५१८ |
| हेर (शिक्षण, भलायकी) | ४७२ |
| वट्ट | १,९६० |

**दुसरी पंचवर्सुकी येवजण (१९५६-६१)** -

दुसरे पंचवर्सुकी येवजणेचो आराखडो तयार करतना अर्थीक समताय ही मोख मुखार दवरून अर्थीक तशेंच समाजीक नदरेन फाटीं उरिल्ल्या घटकाक वयर काडपाचे कार्यावळीक प्राधान्य दिवप हो उद्देश मुखार दवरलो. ह्या उद्देशाचे पुर्तीखातीर मुखेल पांच घटकांचेर भर दिलो तो असो -

(१) राष्ट्रीय उत्पन्नांत २५ प्रतिशत वाड.

(२) मुळाव्या तशा अवजड उद्देग धंद्याचो जलद विकास करपाचेरं भर.

(३) सुमार एक कोटी लोकांक रोजगार दिवप.

(४) उत्पन्न आनी संपत्ती हांचेमदली विषमताय उणी करप आनी अर्थीक सत्तेची समतोल अशी वांटणी करप.

(५) विनियोगाचें प्रमाण राष्ट्रीय येणावळीच्या सात टक्क्यांवयल्यान ११ टक्क्यांचेर व्हरप.

हे येवजणेंत उद्देगीकरणाचेर भर दिवप आनी लोखण, तिखें, सारीं, रसायनां, यंत्रनिर्मिती हांच्या उत्पादनाचे वाडी वांगडाच लघुउद्देग आनी ग्रामउद्देग हांचो विकास करून गरजेच्या वस्तूंच्या उत्पादनांत भरीव वाड करप.

**पयले आनी दुसरे पंचवर्सुकी येवजणेची सरकारी खर्चाची आंकडेवारी (कोटींनी)**

| | घटक | खर्च | टक्केवारी | खर्च | टक्केवारी |
|---|---|---|---|---|---|
| १. | शेती आनी सामाजिक विकास | २९१ | १५ | ५३० | ११ |
| २. | मोठे आनी मध्यम प्रतीची शिंपणावळ | ३१० | १६ | ४२० | ९ |
| ३. | पावर | २६० | १३ | ४४५ | १० |
| ४. | ग्रामीण आनी लघुउद्येग | ४३ | २ | १७५ | ४ |
| ५. | उद्येग आनी खनिजां | ७४ | ४ | ९०० | २० |
| ६. | येरादारी आनी प्रसारण | ५२३ | २७ | १,३०० | २८ |
| ७. | भौशीक सेवा आनी हेर | ४५९ | २३ | ८३० | १८ |
| | वट्ट | १,९६० | १०० | ४,६०० | १०० |

**तिसरी पंचवर्सुकी येवजण (१९६१-६६)** - आदल्या दोन येवजणेंतल्या सर्वसादारण विकासाच्या उद्दिश्टांवांगडाच समाजांतल्या तळांतल्या लोकांच्या तशेंच फाटीं उरिल्ल्या वाठारांच्या अडचणींचेर खास भर दिवपाचो यत्न हे येवजणेंत केलो. हे येवजणेचीं मुखेल उद्दिश्टां अशीं आसलीं -

(१) राष्ट्रीय येणावळींत वर्सुकी पांच टक्के वाड जावन ही वाड उरिल्ल्या येवजण काळांत कायम उरची म्हणून गुंतवणुकीची आंखणी करप.

(२) उद्देगीकरण आनी निर्यातीच्यो गरजो भागोवपा इतली अन्न-धान्य आनी शेतकी उत्पादनांत वाड.

(३) जाचेवरवीं फुडाराच्या सुमार धा वर्सां देशाच्या उद्देगधंद्यांक लागपी तिखें, रसायनां, इंधन, वीज, यंत्रनिर्मिती सारकिल्या मुळाव्या उद्देगांनी वाड करून हे बाबतींत स्वावलंबी जावप.

(४) देशांतल्या मनीसबळाचो चडांत चड उपेग करप आनी रोजगारीचे संदींत भरीव वाड करप.

(५) समान संद निर्माण करून येणावळ आनी संपत हांचेमदलें अंतर उणें करप आनी अर्थीक सत्तेंत जाता तितली समताय हाडप.

तिसरे पंचवर्सुकी येवजणेचो खर्च आनी गुंतवणूक (कोटींनी).

| घटक | येवजण खर्च | सरकारी चालू खर्च | गुंतव-णूक | खाजगी गुंतवणूक | एकंदर गुंतवणूक |
|---|---|---|---|---|---|
| १. शेती, लघु-शिंपणावळ आनी सामाजिक विकास | १०२५ | ३५० | ६७५ | ८०० | १४७५ |
| २. मोठी आनी मध्यम शिंपणावळ | ६५० | १० | ६४० | — | ६४० |
| ३. विद्युत् | ९२५ | — | ९२५ | ५० | ९७५ |
| ४. ग्रामीण आनी लघुउद्येग | २५० | ९० | १६० | २७५ | ४३५ |
| ५. उद्येग आनी खनिजां | १५०० | — | १००० | १५०० | २५०० |
| ६. येरादारी आनी प्रसारण | १४५० | — | १४५० | २०० | १६५० |
| ७. भौशीक सेवा | १२५० | ६०० | ६५० | १०७५ | १६५० |
| ८. इनवेन्टोरीज | २०० | — | २०० | ६०० | ८०० |
| वट्ट | ७२५० | १२५० | ६२०० | ४००० | १०२०० |

**तीन वर्सुकी येवजणो :** १९६५त भारत-पाकिस्तान झूज, १९६५-६६ अशीं दोन वर्सां सलग दुश्काळ, चलनाचें अवमुल्यन, भाववाड, हांकां लागून चवथी वर्सुकी येवजण फुडें गेली आनी ६६-६७, ६७-६८ आनी ६८-६९ अशो तीन मदेवर्ती वर्सुकी येवजणो करच्यो पडल्यो.

**चवथी पंचवर्सुकी येवजण (१९७०-१९७४)** - चवथे वर्सुकी येवजणेचीं मुखेल उद्‌दिश्टां -

१) सवस्तकाय आनी स्वावलंबन सादपी अशी अर्थ वेवस्था.

२) शेतकी उत्पादन वाडोवपी शिंपणावळीचो विकास.

३) फुडाराक तंत्रीक उदरगत सादपी उद्‌देगीक विकास आनी उद्‌देगीक विकेंद्रीकरण.

४) प्रदेशीक ल्हान प्रमाणांतल्या उत्पादकांक पालव दिवप.

५) रोजगाराच्यो संदी चड प्रमाणांत उपलब्ध करप.

६) पंचायत राज्य संस्थांचें समाजीक, अर्थीक आनी राजकीय विकेंद्रीकरण करप.

चवथे पंचवर्सुकी येवजणेची सरकारी खर्चाची आंकडेवारी (कोटींनी).

| | घटक | अंदाजी | प्रत्यक्ष |
|---|---|---|---|
| १. | शेतकी आनी सामाजिक विकास | २,७२८ | २३२० |
| २. | शिंपणावळ आनी विद्युत् पुरवण | ३,५३५ | ४२८६ |
| ३. | उद्येग आनी खनिजां | ३,६३१ | ३१०७ |
| ४. | येरादारी आनी संपर्क | ३,२३७ | ३०८० |
| ५. | भौशिक सेवा आनी हेर सुविधा | २,७७१ | २९८६ |
| | वट्ट | १५,९०२ | १५,७७९ |

**पांचवी पंचवर्सुकी येवजण (१९७४-७९) -**

(१) दळडीर रेशे सकयल्या लोकांचे गरजेच्या वापराचें प्रमाण वयर काडप आनी वट्ट स्वावलंबन हाडप.

(२) चलनवाडीक आळाबंद हाडून अर्थीक परिस्थितींत थिराय हाडप.

(३) राश्ट्रीय उत्पादनांत वर्सुकी ५.५ प्रतिशत वाड.

पांचवे वर्सुकी येवजणेच्या काळांत घोळटी येवजण हें येवजणेचें नवें तंत्र आपणावप जालें. हे येवजणेच्या नव्या तंत्राप्रमाण एक खणी पांच वर्सुकी काळखंडाची येवजण करिनासतना दर वर्सां फुडल्या पांच वर्सांखातीर येवजण करप. ह्या नव्या तंत्राप्रमाण येवजणेचे वर्सुकी जमाखर्चाचो अदमास मेळटा आशिल्ल्या कारणान काळाप्रमाण गरजेचे अशे बदल आनी तडजोडी करप सोपें जावंक लागलें.

पांचवे पंचवर्सुकी येवजणेचो सरकारी खर्च (कोटींनी)

| | घटक | १९७५-७६चे येवजण दरेन सुदारीत | १९७२-७३चे येवजण दरेन मसुदो |
|---|---|---|---|
| १. | शेतकी आनी हेर कार्यावळी | ४६४३.६९ | ४०४४.०८ |
| २. | शिंपणावळ आनी हुंवार नियंत्रण | ३४४०.४८ | २००४.८६ |
| ३. | पावर | ७२९३.९० | ६०७६.६६ |
| ४. | येरादारी आनी संपर्क | ८८८१.४३ | ७११०.६५ |
| ५. | शिक्षण | १२८४.२९ | १७०८.८५ |
| ६. | भौशिक आनी सामाजिक सेवा (शिक्षण सोडून) | ४७५९.७७ | ५२८६.८० |
| ७. | उद्येग आनी खाणी | १०,२००.३० | ९०३१.११ |
| ८. | दोंगराळ आनी जमाती वाठार | ४५०.०० | ५००.०० |
| ९. | राखीव | ३४९.७३ | — |
| | | ३९,३०३.४९ | ३७,४६२.९७ |

**सवी पांच वर्सुकी येवजण (१९८०-८५)** - फाटल्या २० वर्सांच्या काळांतल्या येवजणांचें फलीत मतींत दवरून सवे येवजणेची आंखणी करप जालें. हे येवजणेचीं मुखेल उद्‌दिश्टां अशीं -

१) गरिबी ना करप.

२) शेतकी उद्‌देग तशें हेर उद्‌देग सुविधा निर्माण करप आनी गुंतवणुकेंत वाड जावपासारकी परिस्थिती निर्माण करून उत्पादन आनी निर्यातींत भर घालप.

३) सगळ्याच आस्थापनांतल्या लोकांचो सहभाग आनी कार्यक्षमताय कशी वाडटली हाचो विचार करप.

४) लोकसंख्येक आळाबंद हाडप.

सवी पंचवर्सुकी येवजण - खर्चाची आंकडेवारी (कोटींनी).

| घटक | सवी येवजण खर्च १९८०-८५ | वर्सुकी येवजण १९८०-८१ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८१-८२ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८२-८३ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८३-८४ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८४-८५ (चालंत) | सवी येवजण (प्रत्यक्षांत) |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १. शेती | ५६९५.१ | ९८१.५ | ११२९.४ | १२६१.० | १४२७.० | १८२४.६ | ६६२३.५ |
| २. ग्रामीण विकास | ५३६३.७ | १०४०.२ | ११००.९ | १२९५.८ | १४९७.९ | २०६२.० | ६९९६.८ |
| ३. खाशेली क्षेत्रीय कार्यावळ | १४८०.० | २०६.४ | २५८.५ | ३३५.१ | ३५६.८ | ४२३.५ | १५८०.३ |
| ४. शिंपणावळ आनी हुंवार नियंत्रण | १२१६०.० | १७७७.३ | १९४८.४ | २१०५.२ | २४४५.४ | २६५३.६ | १०२९२.९ |
| ५. उर्जा | २६५३५.४ | ३८२८.० | ५०६४.९ | ६४०९.६ | ७२७६.६ | ८१७२.२ | ३०७५१.३ |
| (१) पावर | १९२६५.४ | २६५६.८ | ३१८२.३ | ३७०८.५ | ४०९२.५ | ४६५८.५ | १८२९८.६ |
| (२) उर्जचें नवीनीकरण | १००.० | ४.३ | १३.९ | २२.५ | ३३.७ | ८८.७ | १६३.१ |
| (३) खनीजतेल | ४३००.० | ७३५.२ | १२०४.८ | १८२३.१ | २१९७.८ | २५२१.२ | ८४८२.१ |
| (४) कोळसो | २८७०.० | ४३१.७ | ६६३.९ | ८५५.५ | ९५२.६ | ९०३.६ | ३८०७.५ |
| (५) उर्जा विकास | — | — | — | — | — | — | — |
| ६. उद्देग आनी खनिजां | १५०१७.६ | २१९४.५ | २७७७.९ | ३०७५.३ | ३९१६.४ | ४९८३.४ | १९६४७.५ |
| (१) ग्रामीण आनी लघुउद्देग | १७८०.५ | २७३.२ | ३२२.९ | ३२६.१ | ४०२.६ | ६२०.३ | १९४५.४ |
| (२) व्हड आनी मध्यम उद्देग | १३२३७.१ | १९२१.३ | २३६०.० | २७०९.२ | ३४७८.८ | ४३२१.१ | १४७९०.४ |
| (३) हेर | — | — | ९५.० | ४०.० | ३५.० | ४२.० | २१२.० |
| ७. येरादारी | १२४१२.० | २१६३.० | २५८३.१ | २७५२.८ | ३०७५.८ | ३६३३.७ | १४२०८.४ |
| (१) रेल्वे | ५१००.० | ९७३.० | १२१०.० | १३१९.५ | १४१९.६ | १६६४.६ | ६५८६.७ |
| (२) हेर | ७३१२.० | ११९०.० | १३७३.१ | १४३३.३ | १६५६.२ | १९६९.१ | ७६२१.७ |
| ८. संपर्क, म्हायती आनी प्रसारण | ३१३४.३ | ३५६.७ | ५७६.१ | ६७४.८ | ८६४.५ | ९९७.४ | ३४६९.५ |
| ९. तंत्रविज्ञान आनी विज्ञान | ८६५.२ | ९७.४ | १४८.३ | २०८.१ | २२८.५ | ३३८.१ | १०२०.४ |
| १०. भौशिक सेवा | १४०३५.२ | २०७४.६ | २४८७.२ | २९५०.२ | ३८३४.७ | ४५५९.९ | १५९१६.६ |
| (१) शिक्षण | २५२३.७ | ३३९.५ | ४३५.७ | ५३८.६ | ६९७.८ | ९६५.० | २९७६.६ |
| (२) आरोग्य आनी कुटुंब येवजण | २८३१.० | ४११.५ | ५३०.४ | ६७५.२ | ८५३.१ | ९४२.० | ३४१२.२ |
| (३) घरां आनी शारां विकास | २४८८.४ | ४७७.३ | ४८८.१ | ५०७.३ | ६५६.९ | ७०९.५ | २८३९.१ |
| (४) हेर भौशिक सेवा | ६१९२.१ | ८४६.३ | १०३३.० | १२२९.१ | १६२६.९ | १९५३.४ | ६६८८.७ |
| ११. हेर | ८०१.५ | ११२.८ | १३६.२ | २१५.० | १६३.९ | २१९.६ | ८४७.५ |
| १२. वट्ट (१ ते ११) | ९७५००.० | १४८३२.४ | १८२१०.९ | २१२८२.९ | २५०८७.५ | २९८७८.० | १,०९२९१.७ |
| | — | (१५०२३.४) | (१८३७२.९) | (२१७२४.९) | (२५३१३.६) | (३००३२.५) | ११०४६७.३ |
| केंद्रीय येवजण | ४७२५०.० | ७०४९.३ | ९१९७.० | ११२८४.९ | १३६४४.० | १६६५०.० | ५७८२५.२ |
| राज्य येवजण | ४८६००.० | ७५२७.५ | ८६६६.३ | ९५८७.८ | १०९९४.८ | १२६८१.८ | ४९४५८.२ |
| | — | (७७१८.५) | (८८२८.३) | (१००२९.८) | (११२२०.९) | (१२८३६.६) | (५०६३३.८) |
| केंद्र शासित प्रदेश येवजण | १६५०.० | २५५.६ | ३४७.० | ४१०.२ | ४४८.७ | ५४६.२ | २००८.३ |

**सातवी पंचवर्सुकी येवजण (१९८५ - ९०) -**

(१) अन्नधान्याची वाड

(२) रोजगार संद आनी वट्ट उत्पादनांत वाड करून सर्वांगीण उदरगत, आधुनिकीकरण, स्वावलंबन आनी सामाजीक समताय घडोवन हाडप.

(३) लोकांच्या, विशेश करून फाटसार वाठारांतल्या लोकांच्या जिवनमानांत सुदारणा घडोवप.

(४) देशी आनी परदेशी बाजारपेठेची व्याप्ती वाडोवप.

सातवी पंचवर्सुकी येवजण - सरकारी खर्चाची आंकडेवारी (कोटींनी).

| घटक | सातवी येवजण तदतूद १९८५-९० | वर्सुकी येवजण १९८५-८६ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८६-८७ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८७-८८ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८८-८९ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८९-९० | सातवी येवजण (सुमार) १९८५-८६ ते ८९-९० |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १. शेती आनी हेर कार्यावळी | १०५२३.६२ | १८२५.९२ | २२१५.७९ | २७४२.९२ | २९०३.०२ | ३१७६.४२ | १२८६४.०७ |
| २. ग्रामीण विकास | ८९०६.०८ | २२२६.१४ | २६६७.६५ | ३१४६.४२ | २९८२.३४ | ४०७४.७० | १५०९७.२५ |
| ३. खाशेली क्षेत्रीय कार्यावळ | २८०३.५९ | ४४७.३३ | ६२७.६० | ६७७.०५ | ९२६.५१ | ९०३.१८ | ३५८१.६७ |
| ४. शिंपणावळ आनी हुंवार नियंत्रण | १६९७८.६५ | २७९२.२४ | ३२२१.६३ | ३३४६.९४ | ३५९०.९२ | ३५२४.४५ | १६४७६.१८ |
| ५. उर्जा | ५४८२१.२६ | ९६१३.२१ | ११४०२.७८ | ११५९४.४८ | १३२२६.४१ | १६७८९.१० | ६२६२५.९८ |
| (१) पावर | ३४२७३.४६ | ५६१५.५३ | ६७०१.४५ | ७०९६.२९ | ८२४३.७९ | १०८३२.४१ | ३८४८९.४७ |
| (२) खनीजतेल | १२६२७.६७ | २८६९.८८ | ३३२६.४१ | ३०१९.५५ | ३१०८.९० | ३६१५.८३ | १५९४०.५७ |
| (३) कोळसो | ७४००.५८ | ९९५.०४ | १२३३.०५ | १३६२.९३ | १७३७.६६ | २१९९.४७ | ७५२८.१५ |
| (४) अप्रचलित उर्जा उगम | ५१९.५५ | १३२.७६ | १४१.८७ | ११५.७१ | १३६.०६ | १४१.३९ | ६६७.७९ |
| ६. उद्देग आनी खनिजां | २२४१५.५५@ | ५५०२.८८@ | ५६१९.६७@ | ५५३७.०५@ | ५८९६.०४$ | ७१०९.४४ | २९६६५.०८ |
| (१) ग्रामीण आनी लघुउद्देग | २७५२.७४ | ५२४.३५ | ६१५.७४ | ६१६.८५ | ६८६.१७ | ८२०.७४ | ३२६३.८५ |
| (२) हेर | १९६६२.८१ | ४९७८.५३ | ५००३.९३ | ४९२०.२० | ५२०९.८७ | ८२८८.७० | २६४०१.२३ |
| ७. येरादारी | २२६४४.८६ | ४०७२.१९ | ५२०१.४३ | ६०३४.६१ | ६७२२.९६ | ७५५२.२२ | २९५८३.४१ |
| (१) रेल्वे | १२३३४.५५ | १९४१.६८ | २६९७.०६ | ३४१८.८७ | ३९२९.०० | ४४५०.०० | १६४३६.६१ |
| (२) हेर | १०३१०.३१ | २१३०.५१ | २५०४.३७ | २६१५.७४ | २७९३.९६ | ३१०२.२२ | १३१४६.८० |
| ८. संपर्क | ४४७४.५२ | ९४२.१२ | १०८५.६१ | १४६३.९५ | २१९३.७६ | २९२०.४४ | ८६०५.८८ |
| ९. विज्ञान, तंत्रविज्ञान आनी पर्यावरण | २४६३.०६ | ४०४.७८ | ५१२.३८ | ५८५.४२ | ७५१.४२ | ६९५.४५ | २९४९.४५ |
| १०. सर्वसादारण अर्थीक सुविधा | १३९५.६० | १७९.०५ | ४२३.१२ | ३८६.०७ | ४९४.८२@ | ७९५.६५@ | २२७८.७१ |
| ११. भौशिक सेवा | ३१५८५.२४ | ४८५८.४५ | ५९०१.९९ | ७००६.४० | ८०५२.५२ | ९०१६.३९ | ३४८३५.७५ |
| (१) शिक्षण | ६३८२.६५ | ८७६.७९ | १०१४.३८ | १६१०.८४ | १९१३.३६ | २२८३.९२ | ७६९९.२९ |
| (२) वैजकी सुविधा | ३३९२.८९ | ५७९.८९ | ६१४.७७ | ७२४.३१ | ८३१.०१ | ९१७.०५ | ३६९४.०३ |
| (३) कुटुंब कल्याण | ३२५६.२६ | ४७९.८१ | ५६१.११ | ६०७.३९ | ६७१.८४ | ६३८.०१ | २९५८.१६ |
| (४) घरां आनी शारां विकास | ४२२९.५० | ७६१.११ | ९२०.०५ | ९०७.३१ | १०६९.३० | ११८२.६० | ४८४०.३७ |
| (५) हेर भौशिक सेवा | १४२८३.९४ | २१६०.८५ | २७६४.६८ | ३१५६.५५ | ३५६७.०१ | ३९९४.८१ | १५६४३.९० |
| १२. हेर सुविधा | १०२७.९७ | १९५.५९ | २६९.४६ | ३९९.२४ | ३२९.११ | ४५९.४५ | १६५२.८५ |
| वट्ट (१ ते १२) | १८००००.०० | ३३०५९.९० | ३९१४९.११ | ४२९२०.५५ | ४८०६९.८३ | ५७०१६.८९ | २२२९२२.०७ |
|  | ३३४२१.०९ | (४३९७०.५०) | (४४०३४.१०) | (४८६४४.८३) | (९५७११६.८९) |  |  |
| केंद्रीय येवजण | ९५५३४.०० | १९११५.४७ | २२४०१.७६ | २४५८३.६८ | २७९४८.९८ | ३५७१२.९३ | १२९७६२.८२ |
| राज्य येवजण | ८०६९८.०० | १३२४९.५२ | १६०४२.९८ | १७६२७.५३ | १९३५६.३५ | २०४४४.९६ | ८६७२१.३४ |
|  |  | १३६१०.७१ | (१६५९९.०३) | (१८७४१.०८) | १९९३१.३५ | २०५४४.९६ | ८९४२७.१३ |
| केंद्र शासित प्रदेश येवजण | ३७६८.०० | ६९४.९१ | ७०४.३७ | ७०८.३४ | ७६४.५० | ८५९.०० | ३७३१.१२ |

**आठवी पंचवर्सुकी येवजण (१९९२-१९९७)** - हे येवजणेचीं मुखेल उद्दिश्टां अशीं आसलीं -

१) शेकड्याचे अखेरेक पुराय बेकारी नश्ट करपाच्या उद्देशान फाव सारक्यो रोजगारसंधी उपलब्ध करप.

२) लोकांच्या सहकार्यान लोकसंख्येक आळाबंदा हाडप.

३) १५ ते ३५ वर्सां भितरल्या सगळ्या लोकांक साक्षर करप आनी

किमान मुळावें शिक्षण दिवप.

४) नितळ पिवपाच्या उदकाची पुरवण आनी भलायकेच्यो मुळाव्यो सुविधा सगळ्या लोकांक उपलब्ध करप.

५) अन्नधान्याचे बाबतीत स्वयंपूर्ण करप आनी चड धान्याची निर्यात करपाची मोख दवरून कृषि उद्देगाची उदरगत सादप.

६) ऊर्जा, येरादारी, प्रसारण आनी शिंपणावळ हांचे उदरगतींतल्यान विकासाक चालना दिवप.

**आठवी पंचवर्सुकी येवजण - सरकारी खर्चाची आंकडेवारी (कोटींनी १९९१-९२ वर्साचे दरेप्रमाण).**

| घटक | केंद्र |  |  | राज्यां | केंद्रशासित प्रदेश | वट्ट |
|---|---|---|---|---|---|---|
|  | अदमासी खर्च | अंतर्गत आनी चडावत अदमासी साधनां | वट्ट |  |  |  |
| १. शेती आनी हेर कार्यावळी | १०८९४.०० | २२४.०० | १११९८.०० | १११९०.२५ | १५८.९६ | २२४६७.२१ |
| २. ग्रामीण विकास | २४१७०.०० | ०.०० | २४१७०.०० | १०२१३.२६ | ४२.१० | ३४४२५.३६ |
| ३. खाशेली क्षेत्रीय कार्यावळ | ०.०० | ०.०० | ०.०० | ६७५०.१६ | ०.०० | ६७५०.१६ |
| ४. शिंपणावळ आनी हुंवार नियंत्रण | १५००.०० | ०.०० | ०.०० | ६७५०.१६ | ०.०० | ६७५०.१६ |
| ५. उर्जा | १३१३६.०० | ५३६५९.०० | ६६७९५.०० | ४७२९१.५८ | १४७४.५१ | ११५५६१.०९ |
| (१) पावर | ८९०२.०० | २२२७९.०० | ३११८१.०० | ४६९६१.८६ | १४४५.८८ | ७९५८८.७४ |
| (२) खनीजतेल | ५२७.०० | २३४७३.०० | २४०००.०० | — |  | २४०००.०० |
| (३) कोळसो | २६००.०० | ७९०७.०० | १०५०७.०० | — |  | १०५०७.०० |
| (४) अप्रचलित ऊर्जा उगम | ११०७.०० | ०.०० | ११०७.०० | ३२९.७२ | २८.६३ | १४६५.३५ |
| ६. उद्देग आनी खनिजां | ९१८६.०० | २८३५३.०० | ३७५३९.०० | ९२८४.८९ | ९७.८६ | ४६९२१.७५ |
| ७. येरादारी | ८६३६.०० | ३२३४१.०० | ४०९७७.०० | १३७८६.५८ | ११६१.९९ | ५५९२५.५७ |
| ८. संपर्क | ७१५.०० | २४३८२.०० | २५०९७.०० | १२.५० | ०.४८ | २५११०९.९८ |
| ९. विज्ञान, तंत्रज्ञान आनी पर्यावरण | ४९३९.०० | २००.०० | ५१३९.०० | .३८४२.८८ | ५९.८१ | ९०४१.६९ |
| १०. सर्वसादारण अर्थीक सुविधा | ९२४.०० | ४४.०० | ९६८.०० | ३५४०.६६ | ४०.८६ | ४५४९.५२ |
| ११. भौशिक सेवा | २९५०८.४५ | ४९३७.०० | ३४४४५.४५ | ४१५८८.७६ | २९७७.६९ | ७९०११.९० |

**णवी पंचवर्सुकी येवजण (१९९७ - २००१)** - हे येवजणेचो मसुदो करपाची तयारी चलता. हे येवजणेन आपले मुखार दोन मुखेल उद्दिश्टां दवरल्यांत.

१) २००० वर्सांमिरेन मुळावें शिकप, मुळावी भलायकी, नितळ पिवपाचें उदक, रस्ते, रोजगार आनी भौशीक वितरण वेवस्था सगळ्यांखातीर उपलब्ध करप.

२) सवे पंचवर्सुकी येवजणेसावन स्थीर उरिल्ल्या शेतकी गुंतवणुकींत वाड करप.

नवे येवजणेच्या मसुद्यांत खाजगी गुंतवणुकेक उत्तेजन दिवपाचो विचार चलता. सुमार (५,५०,०००कोटी) ६४% खाजगी आनी (सुमार ३,३०,००० कोटी) ३६% सरकारी खर्च अशें प्रमाण दवरपाचें थारता. णवे पंचवर्सुकी येवजणेच्या खर्चाचो अदमास आठवे पंचवर्सुकी येवजणेच्या दुपेटी परस (सुमार ८,८०,००० कोटी) चड दवरला.

**पंचवर्सुकी येवजणेचो जमा-खर्च -**

पयल्या पंचवर्सुकी येवजणेचें उद्दिश्ट नदरेमुखार दवरून २३७८ कोटी (सरकारी) आनी १८०० कोटी (खाजगी) खर्चाची तरतूद करप जाली. प्रत्यक्षांत १९६० कोटी (सरकारी) आनी १९०० कोटी (खाजगी) रुपया खर्च जालो. हे येवजणेचो परिणाम म्हणून १२ टक्क्याचे वाडीची मोख दवरिल्ली ती हुपून, प्रत्यक्षांत राश्ट्रीय उत्पन्न १९.०३ टक्क्यांनी वाडलें. दर तकली राश्ट्रीय उत्पन्नांत ११ टक्के वाड जाली आनी दर तकली उपभोगांत ९ टक्के वाड जाली. ह्याच काळांत दरेची पातळी सुमार १३ टक्क्यांनी देंवली.

दुसरे पंचवर्सुकी येवजणेंत ४८०० कोटींची (सरकारी) आनी ३१०० कोटी (खाजगी) खर्चाची तरतूद करप जाली. प्रत्यक्षांतलो खर्च ४६७२ कोटी (सरकारी) ३३०० कोटी खाजगी जालो. हे येवजणेचो परिणाम म्हणून हे येवजणेच्या काळांत वर्सुकी ४ टक्के राश्ट्रीय उत्पन्नांत वाड जावंक पावली आनी अशे तरेन येवजणेच्या सबंद काळाखातीर २५ टक्क्यांची वाड दवरिल्ली ती पुरी ना जाता २० टक्क्यांचेर थांबली. दर तकली उत्पन्न ८ टक्क्यांनीच वाडलें. २ कोटींची रोजगार मोख दवरिल्ली ती ८० लाखाचेरच उरली.

तिसरे पंचवर्सुकी येवजणेंत ७,५०० कोटी (सरकारी) आनी ४,१०० कोटी (खाजगी) खर्चाची तरतूद करप जाली. प्रत्यक्षांत ८,५७७ कोटी (सरकारी) आनी ४,००० कोटी (खाजगी) रुपया खर्च जालो. कृषी

राज्य केंद्रशासित प्रदेशगणीक आठवे येवजणेची खर्चाची आंकडेवारी

| | | शेतकी आनी संबंदीत कार्यावळी, शिंपणावळ आनी हुंवार नियंत्रण | ग्रामीण विकास | वेचींक मळावयल्यो कार्यावळी | ऊर्जा | उद्येग आनी खनिजां | येरादारी | संपर्क वेवस्था | विज्ञान आनी तंत्रज्ञान | परिस्थिती विज्ञान आनी पर्यावरण | भौशिक सुविधा | हेर | वट्ट |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | २ | ३ | ४ | ५ | ६ | ७ | ८ | ९ | १० | ११ | १२ | १३ | १४ |
| ०१. | आंध्र प्रदेश | २८४४.५८ | ५३२.९७ | ४५०.०० | ३०४३.६२ | २७२.५० | ११५३.५४ | ०.०० | २.०० | ६८.४२ | २०६६.५३ | ६५.८४ | १०५००.०० |
| ०२. | अरुणाचल प्रदेश | १८०.९६ | ३६.३२ | ०.०० | १५१.९६ | २४.४९ | ३४३.९३ | ०.०० | ०.४७ | ४७.३४ | ३२१.६३ | ४७.९० | ११५५.०० |
| ०३. | आसाम | ७७६.६१ | १८६.६६ | ११.८४ | ११९६.८५ | ३२२.७६ | २९४.८६ | ०.०० | ४.६२ | ११६.९९ | १६४२.०४ | १०८.७७ | ४६६२.०० |
| ०४. | बिहार | ३९७७.२९ | १०८९.९२ | ७७.३३ | २१४९.१३ | ४५८.१४ | १४६२.६१ | ०.०० | ७.८२ | ११०.६० | २९१८.५४ | ६६८.६२ | १३०००.०० |
| ०५. | गोंय | १७८.७५ | १४.६० | ०.०० | ५५.७५ | ३६.२० | १०७.४५ | ०.०० | ३.०० | ११.३० | २९७.१० | ५६.८५ | ७६१.०० |
| ०६. | गुजरात | ४१८८.०० | ४२१.२० | ०.०० | २६७८.५० | ६६७.०० | ६४०.०० | ९.०० | ५.५० | ३०९.५० | २२५५.४० | ३२५.९० | ११५००.०० |
| ०७. | हरयाना | ९६६.६८ | ११९.३० | २०.०० | १७११.८४ | २२०.४७ | ३९१.३८ | ०.०० | ६.६२ | १२३.७० | १९६८.८० | १७१.२१ | ५७००.०० |
| ०८. | हिमाचल प्रदेश | ३४९.३५ | ७४.२० | ०.०० | ५१०.२५ | ७५.७५ | ३२८.१५ | ३.०० | २.७५ | २११.८५ | ७४८.१५ | १९८.५५ | २५०२.०० |
| ०९. | जम्मू आनी काश्मिर | ५३६.०२ | ९६.८० | २१६.५० | ११८०.२८ | १९४.०० | २८०.६० | ०.०० | १.९० | १०७.६० | १२२६.०० | १६०.३० | ४०००.०० |
| १०. | कर्नाटक | ३०७९.२४ | ४२७.५० | ५७५.०० | ३०४७.५० | ९८४.०० | ४४८.०० | ०.०० | ८.०० | २०९.७६ | ३२६०.२५ | २६१.७५ | १२३००.०० |
| ११. | केरळ | १३५२.५० | ३०३.९७ | २.५० | १२३८.०० | ८१०.०० | ४३३.०० | ०.०० | २१.९३ | ९८.०५ | १०७७.१८ | १२२.८७ | ५८६०.०० |
| १२. | मध्य प्रदेश | ३२३२.५९ | ५२३.४९ | ०.०० | ३५८१.८० | ४६५.७२ | ४२९.२६ | ०.०० | ६.४१ | २१२.५८ | २०७९.०१ | ५६९.१४ | ११९००.०० |
| १३. | महाराष्ट्र | ४१७७.११ | १७१२.६१ | २१६.५६ | ४५८२.७१ | ८१४.४६ | १७३१.७२ | ०.०० | ५.६८ | ५०४.६४ | ४१८७.१३ | ५८७.३८ | १८५२०.०० |
| १४. | मणिपूर | २४५.४९ | १४.५० | ०.०० | १८७.४५ | ३९.८० | १६०.६० | ०.०० | ४.०० | २४.०० | २५५.९० | ४७.२६ | ९७९.०० |
| १५. | मेघालय | १४९.२६ | ३७.५९ | १०.६७ | १७२.२३ | ४२.७० | २०७.२९ | ०.०० | १.९३ | ६१.९१ | २७४.६३ | ७०.७९ | १०२९.०० |
| १६. | मिझोराम | ८३.१० | १३०.२५ | ०.०० | १०४.०० | ४४.२५ | १०३.१० | ०.०० | १.९५ | ३१.३० | २१२.४५ | ५२.६० | ७६३.०० |
| १७. | नागालँड | १०९.५० | ९६.५० | १०.५० | ६०.८० | ४९.०० | १६१.७० | ०.०० | १.०० | २८.९० | २२५.८० | १००.३० | ८४४.०० |
| १८. | ओरिसा | ३७२३.०३ | ४०२.३५ | ०.०० | २६४७.७० | ७८५.७० | ५९२.९० | ०.०० | ४५.५६ | ११२.०१ | १५४३.७६ | १४६.९९ | १००००.०० |
| १९. | पंजाब | ११५१.६० | १८७.२९ | ५०.९१ | २४२९.०० | १६२.९२ | ३५७.८४ | ०.०० | ७.५० | ६०.२८ | १८८७.४८ | २७५.१८ | ६५७०.०० |
| २०. | राजस्थान | २८८०.३६ | १०२१.७६ | ८४.०० | ३२५५.४८ | ५३५.५५ | ७८३.९७ | ०.०० | ७.०० | ३३९.५१ | २४६१.६२ | १३०.७५ | ११५००.०० |
| २१. | सिक्कीम | ६९.०० | ११.८० | ०.०० | १३५.५० | २०.८० | ८५.०० | ०.०० | २.५० | १९.०० | १६७.९० | ३८.५० | ५५०.०० |
| २२. | तमीळनाडू | १४१३.१५ | ४४६.०० | ०.०० | ३०२०.०० | ५५०.०० | ७०७.०० | ०.०० | १०.०० | २१५.०० | ३७७९.६५ | ५९.२० | १०२००.०० |

उत्पादनांत जाल्ले घटीचो परिणाम म्हणून वर्सुकी ५.६ राष्ट्रीय उत्पादनाची दवरिल्ली मोख देंवन २.२ टक्क्यांचेर आयली.

चवथे पंचवर्सुकी येवजणेची सुर्वेची खर्चाची मोख २४,८८२ कोटीची आसली. तातूंत १५,९०२ कोटी (सरकारी) खर्च आसलो जाल्यार (खाजगी) ८,९८० कोटी आसली. ८५० कोटी इतलें तुटीचें अंदाजपत्रक दवरिल्लें. प्रत्यक्षांत सरकारी खर्चाचें प्रमाण १५,७७९ कोटी आशिल्लें.

पाचवे पंचवर्सुकी येवजणेत ३९,३२२ कोटी (सरकारी) खर्चाची तरतूद आशिल्ली आनी २७,०४९ कोटीची खाजगी गुंतवणुकीची अपेक्षा धरिल्ली. प्रत्यक्षांत सरकारी खर्चाचें प्रमाण ३९,४२६ कोटीचें जालें.

सवे पंचवर्सुकी येवजणेत (सरकारी) खर्चाचो आंकडो ९७,५०० कोटी आशिल्लो. उपरांत तो १,१०,००० कोटी रुपया वाडयलो. प्रत्यक्षांत १,०९,२९१.७ कोटी खर्च आयलो.

सव्या पंचवर्सुकी येवजणेच्या काळांत राष्ट्रीय उत्पन्नात ५.३ टक्क्यांनी वाड जाली.

सातवे पंचवर्सुकी येवजणेंत सरकारी खर्चाची १,८०,००० कोटी रुपयांची तरतूद आशिल्ली. प्रत्यक्षांत वट्ट खर्च २,२८,७२९.६२ कोटी आयलो.

आठवे पंचवर्सुकी येवजणेंत सरकारी खर्चाची तरतूद ४,३४,१०० कोटी आशिल्ली. ५.६ टक्के वर्सुकी राष्ट्रीय उत्पन्नात वाड करपाची मोख दवरली. केंद्र आनी राज्य हांच्यामदल्या खर्चाचें प्रमाण ५८.५:२१.५ आशिल्लें.

\- कों. वि. सं. मं.

**पंचवाडकार, नरसिंह अनंत :** (जल्म : १२ डिसेंबर १९३३, पंचवाडी - फोंडें).

सुटकेझुजारी. (१९५३-६१) ह्या काळांत तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां वांटप, पत्रिका वांटप असलीं कामां तो करतालो. २ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा फोंड्यां पोलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत घालो. १६ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा ताका पणजे धरलो. १९ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा पणजेचे बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. ताणें स म्हयने आनी वीस दीस बंदखण भोगली. सुटके उपरांत तो लोकांक राजकीय खबरो पावयतालो आनी राष्ट्रीय प्रचार करतालो. १९६१त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. तो ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हणून वेंचून आयिल्लो.

\- कों. वि. सं. मं.

**पंचवादय :** पंचवादय हें दर एका गोंयकाराचे वळखीचें वादय. गोंयांत गोंयची खाशेली अशीं जायतीं वादयां आसलीं तरीय पंचवादयाक

चड म्हत्व आसा. 'मंगल वादय' म्हणून दर एका मनशाच्या मनांत ताका व्हड स्थान आसा. कारण दर एका मंगल कार्या वेळार पंचवादयाची गरज आसता.

पंचवादय म्हळ्यार पांच वादयांचो संच. तासो, धोलकें, शेनाय, सूर्त आनी तांब्याचें वादय कांसाळें हांचो आस्पाव पंचवादयांमदीं जाता. ह्या पंचवादयां परस चड वादयां आशिल्लो दुसरो व्हड वादयमेळ आसा. पूण वादयां चड आसलीं तरीय ताका पंचवादयांच म्हण्टात. हातूंत वयर सांगिल्ल्या पांच वादयां भायर जोड शेमेळ, व्हड धोल, बाको नांवाचें वादय, जगांट जावं चड वादयांचो आस्पाव आसता. अशा ह्या पंचवादय नांवांच्या दोन प्रकारांचे उपेग गोंयांत धर्मीक कार्या वेळार, उत्सव जावं समाजीक कार्या वेळार आनी मंगल प्रसंगा वेळार करप जाता.



धाकट्या पंचवादयाची सुरवात अशी जाता. शिंगाचे फुकेउपरांत रोखडोच तासो-धोल वाजपाक लागता. पंचवादयांत शिंगाचे त् त् तू तू तू फुकेउपरांत बाको हो व्हड चार हात लांबायेचो कोर्नो, आंगान सरळ, हत् हत् हत् करून वाजता. तें सोंपतां सोंपतां हेर वादयां एकाच वांगडा गडगडाट घालून वाजून थांबतात आनी शेनायेचें पद जोड समेळ नाजूक वाजोवन सोंपयतात. कांसाळें नांवाचें कांश्याचें वादय ताचो ताल धरता. जोड समेळ हीं दोन वादयां एकाकूच जोडिल्लीं. तबलें आनी कुपांच्या आवाजासारकीं वाजपी, घुमटाच्या समेळ पद्दतीन सादयल्लीं सगळीं वांगडा वापरतात. पांच-पंचवीस मिनटां हांचें वाजप जातकच त्याच गिताची संगत तासो, धोल, धोलकें करपाक लागता. ह्या वेळार जोड समेळ बंद आसता. हें वाजप खूब वेळ चलता. मदीं मदीं शीग आनी बाको आपली साथ दितात.

दर एका गांवांत हो वादयसंच परंपरेन वाजोवपी कांय घराणीं जावं जमाती आसात. दर एका देवळांत दिसाक तीन खेपे हीं वादयां वाजयतात. ह्या वाजपांत शास्त्र, कला आनी कुशळटाये सारकिल्यो गजाली दिश्टी पडटात. गांवांत खंयूय पंचवादयांचो सुमेळ कानार पडलो की थंय किदें तरी मंगल कार्य आसा असो सगळ्यांचो समज जाता. कारण ह्या वादयमेळाचे सुरावटिंतूच मांगल्याची सुचकताय आसा. तशीं हेर वेळारूय हीं वादयां केन्नाय वाजयतात. पूण त्या वेळार तांकां व्हड म्हत्व आसना.

गोंयाभायरूय हीं वादयां वाजयतात. थंय ह्या वादयसमुहाक 'ताशा' म्हण्टात. दक्षिणेकडेन चेन्नई, बेंगळुरावटेन मात हीं वादयां वाजयल्लीं आयकुपाक मेळनात.

पंचवादयां वाजोवपी कलाकारांच्यो दोन-तीन जमाती गोंयांत आसात. तातूंत नामवंत घराण्यांचो आनी खाशेले वादन पद्दतीचो आस्पाव आशिल्ल्यान ही पद्दत खूब पोरणी आनी म्हत्वाची म्हणपाक आदार मेळटा. पोरण्यां हिशोबाच्या चोपडयांनी आनी कोमुनीदादीच्या अदमासपत्रकांत हाची नोंद मेळटा. वाजोवप्यांक पगार, बक्षिसी, जमनी दिल्ल्याचोय उल्लेख मेळटा.

गोंयांभायर मुंबय, पुणें, नासिक, बेळगांव, हुबळी, कारवारांत पंचवादनाच्यो वेगवेगळ्यो पद्दती अस्तित्वांत आसात. मुंबय, पुणें, नासिककारांच्या वादनांत सूर, ताल आनी लय आसतात. ह्या वादनांत सोबीतपण, नाजूकताय आसता. पूण कुशळटाय आनी भारदस्तपण नासता. कारवार, अंकोला भागांतल्या वादनांत चडसो अर्थ आसना. बेळगांव, कोल्हापूरांतल्या वाजपांत कर्कशपण आसना. शेनायेचेर चड भर दिल्लो आसता. बेळगांवकार मात ह्या वाजपाकडेन कलात्मक नदरेन पळयतात. थंयचे तासो वाजोवपी बरी साथ दितात. तांचे ताशे ल्हान आशिल्ल्या कारणान वाजप ओडलायणें जाता.

गोंयांत पंचवादय वाजोवपी दीपचंद, त्रिताल, एकताल, झपताल अशे घरंदाज तालूच चड करून वाजयतात. ह्या वाजपांत सोबीतकाय उणी आसली तरीय शास्त्र चड आसता.

पयलींच्या काळार ह्या वाजोवपी कलाकारांक व्हड म्हत्व दिताले. तांकां 'वाजंत्री मेळ' अशें म्हण्टाले. समारंभ सोंपतकूच तांकां व्हड अशे लाडू दिताले. तशेंच, ज्या आसनाचेर ते बसताले तेंय तांकांच दिताले. ही रीत पाळटना कलाकारांची आनी तांचे कलेची तुस्त करपाची भूमिका आसली जावंये. पंचवादय वाजपांत रस निर्मिती करपाची शक्त आसा. वाद्यां जरी एकूच आसलीं तरी पूण लग्न कार्यांत शृंगाररसा असली रस निर्मणी वाजपांतल्यान जाता. तशेंच शिगम्याच्या वेळार हींच वादयां रौद्र, वीर रसाची निर्मणी करतात.

गोंयांत मुसलमान समाजांतूय उत्सवाच्या वेळार हींच वादयां वाजयतात. पद्दत मात मातशी वेगळी आसता. तशेंच गोंयच्या देवळांतल्या गुडयांच्या रथाच्या उत्सवा वेळार हेंच वाजप मातशें वेगळे तरेन वाजयतात. रथाचें नाचोवप ह्याच पंचवादयांच्या तालाचेर जाता. ते पद्दतीचो ठेको स्वतंत्र आसता. गोंयांतल्या सगळ्याच देवळांनी हो प्रकार दिसना. तरी पूण फोंडें म्हालांतले मडकय गांवचे वादक मात कुशळ आनी फामाद आसात.

पंचवादयाची बोलभास, शब्द रचणूक, लय आनी तालाचें शास्त्र पखवाज-तबल्या शास्त्राचेंच आसता. पंचवादयाची खरी वळख आमकां नवरात्र उत्सवा वेळार घडटा. ह्या वेळार मखराच्यो ज्यो आरती जातात तेन्ना पंचवादयांचें वाजप आयकुपासारकें आसता.

आयज गोंयांत हीं पंचवादयां काळावांगडां ना जावपाक लागल्यांत. हीं वादयां जरी वाजयल्लीं आमकां आयकुपाक मेळटात तरी पूण तीं पयलीपसून चलत आयिल्ली रीत अशेंच म्हणून वाजयतात. तो एक स्वतंत्र वादन प्रकार म्हणून ताचें संवर्धन जाल्लें पळोवपाक मेळना.

- डॉ. मलबाराय सरदेसाय

**पंचशील :** बौध्द धर्मांतली एक म्हत्वाची सदाचार संकल्पना. सदाचाराचे हे पांच नेम बौध्द धर्मांत मूलभूत आनी गरजेचे अशे मानल्यात. गौतम बुध्दान ह्या पांच सदाचार व्रतांचो पाळो दरेका गृहस्थ बौध्द अनुयायाक गरजेचो म्हणून उपदेश केलो. म्हत्वाच्या अशा सगळ्याच बौध्द धर्मग्रंथांनी शिलाचें म्हत्व सगळ्यांत उंचेलें मानलां. हीं पांच व्रतां अशीं -

(१) जनावरांची हत्या करचोंना (अहिंसा) (२) दिवंक नाशिल्ली वस्तू घेवचोंना. (३) विशयासंबंदींचो वायट आचार करचोंना (४) फट उलोवंचों ना आनी (५) मादक पदार्थांचें सेवन करचों ना.

बौध्द धर्माची दिक्षा घेता आसतना सोपूत घेवन जाहीरपणान हें पंचशील आपणावचेलें आसता.

बुध्दान भिक्षूंखातीर हाचेखेरीज आनिकूय पांच शिलां वा व्रतां सांगल्यांत, तीं अशीं – १) थरयल्ले वेळेखेरीज आहार घेवप ना २) नाच, गायन, नाटक हातूंत वांटो घेवप ना आनी असल्या कार्यावळींक हजरूय रावप ना. ३) फुलां, वासाचीं द्रव्यां, अलंकारांसारक्या चैनीच्या गजालींपसून पयस रावप ४) ऊंच हांतरूण वा आसन वापरप ना ५) भांगरा-रुप्याची आस बाळगप ना. ह्या धा व्रतांक 'दशशील' अशें म्हण्टात. दशशीलाच्या आचरणावरवीं मनशाक खात्रीन निर्वाण मेळटा, अशें बुध्दान सांगलां. बौध्द धर्माच्या प्रसारावांगडा भारताभायरूय ह्या पंच आनी दशशील कल्पनांचो प्रसार जालो.

– कों. वि. सं. मं.

**पंचशील (राजकीय) :** स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत भारताच्या परराष्ट्रीय धोरणाची दिशा ज्या पांच तत्त्वांच्या आदारान थरयली, तीं पांच तत्त्वां पंचशील म्हणून वळखतात. बौध्द धर्मी ग्रंथांत सदाचाराचे पांच नेम सांगिल्ले, तांकां मुळांत पंचशील अशें नांव दिलां. हे पांच नेम म्हळ्यार अहिंसा, सत्य, अस्तेय, ब्रह्मचर्य आनी अपरिग्रह. दरेका बौध्द धर्मियाचेर ह्या पांच नेमांचो पाळो करप बंधरकारक मानलां.

अर्विल्ल्या काळांत, तिबेटाच्या प्रस्नाचेर भारत आनी चीन हांचे मजगतींचे इश्टागतीच्या संदर्भांत जी पांच कलमी कबलात जाली (२९ एप्रिल, १९५४), तीं पांच कलमां 'पंचशील' म्हणून वळखतात.

हीं पांच तत्त्वां अशीं आसात : -

१) प्रदेशीक अखंडताय कायम दवरप २) आक्रमण करप ना ३) एकामेकांच्या अंतर्गत राज्यकारभारांत हस्तक्षेप करपाचें टाळप ४) सगळ्या राष्ट्रांक समान मानप ५) शांतीकायेची सहजीण.

बांडुंग शारांत, आशिया आनी आफ्रिकेंतल्या नव्यान स्वतंत्र जाल्ल्या राष्ट्रांचे परिशदेंत संवसारीक शांतताय आनी सहकार्याविशींचो जाहीरनामो प्रसृत केल्लो तेन्ना ह्या देशांक एकामेकांविशींचे संबंद पंचशील तत्त्वांच्या आदारान निश्चीत करपाचें थरयलें. इतलेंच न्हय जाल्यार हेर देशांनीय परस्पर संबंदांनी ताचो आस्पाव करचो अशें आवाहन केलें.

शांतीकायेच्या सहजिणेच्या ह्या पांच तत्त्वांची घोशणा केली आनी प्रत्यक्षात ताचो वापर केलो, तेन्नासावन जगांतले कितलेशेच देश ताका लागून प्रभावीत जाले. 'पंचशील' तत्त्वांक संवसारीक संबंदांनी खूब म्हत्व येवपाक लागलें. आयजमेरेन सगळ्याच व्हडल्या राष्ट्रांनी आनी हेर राष्ट्रांच्या अंतर्गत गजालींत लेगीत हस्तक्षेप करचो न्हय ह्या तत्त्वाचो आस्पाव केला.

पंचशीलावरवीं हें स्पश्ट करपाचें आसा, प्रगतीचे कितलेशेच मार्ग आसतात आनी दरेक देशाक जाय तो मार्ग आपणावं येता. प्रत्येकाचें निमाणें उद्दिश्ट एकूच, म्हळ्यार चडांत चड लोकांचें कल्याण हेंच आसा. देखुनूच एका देशान प्रगती करतना जें किदें साध्य केल्लें आसत, ताच्या अणभवाचो फायदो हेर सगळ्या देशांक घेवंक मेळचो, तेखातीर दरेका देशान आपलीं गिन्यानाचीं आनी अणभवाचीं जनेलां उकतीं दवरूंक जाय. आपलो देश ज्यो पद्दती आपणायता त्यो दुसऱ्या देशानूय आपणावंक जाय. तेखातीर चेपण हाडिनासतना इश्टागतीचे सद्भाव दवरुनूच हेर देशांच्या धोरणाकडेन आनी यत्नांकडेन सहानुभुतीन पळोवंचेली नदर बाळगूंक जाय. पंचशीलाचें समर्थन करतना पं. नेहरून म्हणिल्लें, सगळ्याच देशांनी हीं तत्त्वां आपणायलीं जाल्यार झुजाची शक्यताय उणी जातली.

आंतरराष्ट्रीय राजकारणांत पंचशील तत्त्वांक त्या वेळार म्हत्व आयलें. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत एके वटेन सोविएत रशिया आनी ताचे सहविचारी कम्युनिस्ट देश आनी दुसरे वटेन अमेरिका, इंग्लंड, फ्रांस आनी तांचीं इश्ट राष्ट्रां हांचेमदीं शीतझूज सुरू जालें. सोविएत रशियेन मार्क्सप्रणीत आंतरराष्ट्रीय साम्यवादाच्या विचारांप्रमाण आनी दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांतचे अस्थीर राजकीय परिस्थितीचो फायदो घेवन वेगवेगळ्या देशांत साम्यवादी क्रांती घडोवन हाडपाक सक्रीय पालव दिलो. साम्यवादाच्या अशा प्रचाराक प्रतिबंध करप लोकशाय-संरक्षणाखातीर गरजेचें आसा, अशें दिसून, अमेरिका आनी हेर राष्ट्रांनी साम्य विरोध वा आसा ते परिस्थितींत ते शिमेभितरूच साम्यवाद थातारून धरप हें धोरण आपणायलें. रशिया आनी अमेरिका हे दोनूय देश लश्करी नदरेन बळिश्ट आशिल्ल्यान आपलें धोरण चालीक लावपाखातीर दोगांनीय लश्करी बळग्याचें प्रदर्शन, हेर राष्ट्रांचेर चेपण हाडप अशा मार्गांचो वापर सुरू केल्लो.

ह्याच वेळार आशिया आनी आफ्रिका खंडांतली कितलींशींच राष्ट्रां स्वतंत्र जाल्लीं. चीनांत साम्यवादी क्रांती जावन थंय नवें सरकार प्रस्थापीत जालें. चँग-कै-शेक हाका तें सरकार उमथून उडोवन पुराय चीनाचेर आपलें प्रभुत्व परत प्रस्थापीत करपाची इत्सा आशिल्ली आनी अमेरिकेचो ताका पालव आशिल्लो. साम्यवादी चीनाचो विरोध हें अमेरिकेच्या संवसारीक आनी खास करून आशियांतल्या राजकारणाचें सूत्र जाल्लें. ताचो त्रास आशियांतल्या तशेंच हेर ल्हान ल्हान देशांक जातालो. तांच्या अर्थीक उदरगतीच्या मार्गांत आडखळी येताल्यो. तेन्ना व्हडल्या राष्ट्रांनी बळग्याचे बसकेचेर आदारिल्लें राजकारण थांबोवचें, वेगवेगळ्या देशांतल्या प्रस्थापीत सरकारांचें अस्तित्व मान्य करचें आनी तांच्या अंतर्गत कारभारांत धवळाधवळ करपाचें थांबोवचें, हें पोटतिडकीन मांडपाची गरज आशिल्ली. जवाहरलाल नेहरू हाणें तशी भुमिका घेवन ती नेटान मांडली. ताच्या ह्या धोरणाक त्या पंचशीलाक लागून सुत्रबध्दताय मेळ्ळी.

पंचशील तत्त्वांक आंतरराष्ट्रीय राजकारणांत बरीच मान्यताय मेळ्ळी. हेर नव्या राष्ट्रांप्रमाणूच सोविएत रशियानूय तें मान्य केलें. फुडें १५ डिसेंबर १९५७ दिसा एकवटीत राष्ट्रांचे आमसभेन 'शांतीकायेचें सहअस्तित्व' ह्या विशियाचेर थाराव संमत करून पंचशील तत्त्वांचो पुरस्कार केलो. आंतरराष्ट्रीय राजकारणांतलो तणाव उणो जावपाक ताका लागून कांय प्रमाणांत फायदो जालो. पूण चीनान भारतावांगडा शिमेच्या प्रस्नावयल्यान वाद केलो आनी वाठार अधिकार नासतना बळयां हातासलो आनी २० ऑक्टोबर १९६२ दिसा भारताचेर घुरी घाली. ताका लागून पंचशीलाच्या निर्मात्यांमदल्याच एकान त्या तत्त्वाआड कर्तूब केलें अशी जगभर आनी भारतांत टिका जाली.

– कों. वि. सं. मं.

**पंचांग :** कालगणनेचें दिसागणीक कोश्टक दिवपी पुस्तक. तीथ, वार, नक्षत्र, योग आनी करण ह्या काळमापनाच्या पांच आंगांवयल्यान

(घटकांवयल्यान) ह्या पुस्तकाक पंचांग अशें नांव पडलां. सूर्य, चंद्र आनी धर्तरी हांचे गतीच्या संदर्भांत कालगणन आनी काळनिर्देशन करप हें पंचांगाचें मुखेल काम आसता. हाचेच जोडयेक मळबांतल्या गिऱ्यांचें घुंवप, तांचे मदलें अंतर आनी थळावे अक्षांश-रेखांश आनी तांचें वेळापत्रक दाखोवपाचें काम पंचांग करता. तेभायर गिऱ्यांचेर आदारीत असो शुभ-अशुभ योग, (वेळ) दाखोवप जाता. अशे रितीन धर्मीक, शास्त्रीय आनी वेव्हारीक म्हायती दिवपी पंचांग हो एक शास्त्रीय ग्रंथ समजप जाता. पंचांगांत खगोलशास्त्र आनी ज्योतिशशास्त्र हांची सांगड घाल्ली आसता.

आदल्या तेंपार जेन्ना यज्ञ वा हेर धर्मीक कार्यां जातलीं तेन्ना तांच्या येसाखातीर म्हूर्त (बरी वेळ) पळोवपाची प्रथा सुरू जाली. अमुकूच अशा ग्रहयोगांत (काळांत) केल्लें कार्य सफल जाता आनी ताचें पुण्य मेळटा ह्या भावार्थावयल्यान कालमापनाची कल्पना मुखार आयली आनी हातूंतल्यान फुडें पंचांगाची संकल्पना तयार जायत गेली.

पंचांगाची बसका चंद्र, सूर्य आनी धर्तरी हांचे गतीचेर आदारीत आशिल्ल्यान पंचांगाच्यो तीन पद्दती अस्तित्वांत आयल्यो. पुरायपणान चंद्रगतीचेर आदारिल्ली ती चंद्र पद्दत (मुसलमानी पंचांग), पुरायपणान सूर्यगतीचेर आदारिल्ली ती सौर पद्दत (क्रिस्ती कॅलेंडर) आनी चंद्र तशेंच सूर्य हांच्या दोगांयचे गतींचेर आदारिल्ली ती चांद्र-सौर पद्दत (हिंदू पंचांग). पंचांगाचे दोन प्रकार आसात. १) सायन २) निरयन. जें पंचांग वसंत संपातापसून (सूर्य प्रवेश) सुरवात जाता आनीक ग्रहांची सुवात सांगतना अयनांश हिशेबान घेतात तांकां सायन वा गतिकृत पंचांग म्हण्टात. हें वर्स निरयन वर्सापरस २० मि. आनी २४ सें. ल्हान आसता. जें पंचांग शरद संपातासावन सुरवात जाता आनी ग्रहाचें स्थान सांगतना अयनांश विचारांत घेनात ताका निरयन पंचांग म्हण्टात. भारतांत चड करून निरयन पंचांगां वापरतात.

**पंचांगांची रचणूक** - पंचांगांत दरेक पक्ष वा पंद्रशेखातीर एक स्वतंत्र पान दिल्लें आसता. हातूंतलें एक शुक्ल आनी दुसरें कृष्ण पंद्रशेखातीर आसता. दरेका पानार वयले वटेन इसवी सन, हिजरी सन आनी म्हयनो, संवत, पारशी सन आनी पंद्रशेचो निमाणो दीस, प्रा. ग. आनी एक आंकडो आसता. पंचांग गणिताची सुरवात अहर्गणापसून आसता. एकुणीस सौर वर्सांचें एक चक्र आसता आनी एका चक्रांत ६९४० दीस आसतात. हाका अहर्गण वा प्रातर्गण अशें म्हण्टात. हांचो संक्षेप प्रा. ग. असो करून फुडें दिल्लो आंकडो चक्रांतलो कितल्यावो दीस हें दाखयता. अशें हें वेगवेगळ्या प्रकारचे गतकालदर्शक आंकडे पयले ओळींत आसतात. ते उपरांतचे एके ओळींत शालिवाहन शक, संवत्सराचें नांव, म्हयन्याचें आनी पक्षाचें नांव, इंग्लीश म्हयनो, रातीमान, (रा. मा.) ते पंद्रशेंतले अयनांश, दक्षिणायन - उत्तरायण हातूंतलें जें आसतलें तें आनी तातूंतलो ऋतू अशी म्हायती आसता. भारतांत बंगाली, कोल्लाम, कली, हिजरी, बहिस्पत्य-वर्स आनी जायत्यो कालगणना चालू आसल्यो तरी शालिवाहन आनी विक्रम संवत् ह्यो दोन कालगणना चड करून मेळटात. संवत्सराचीं वट्ट ६० नांवां आसात. तांचें चक्रच आसता आनी तींच नांवां परत परत त्याच क्रमान दितात. वेदांग ज्योतिशांत पंचवर्षात्मक युग मानिल्लें आसा आनी तांचीं नांवां संवत्सर, परिवत्सर, इदावत्सर, अनुवत्सर आनी इद्वत्सर अशीं दिल्यांत. गुरू सुमार १२ वर्सांनी एक सूर्यप्रदक्षिणा करता. बारा वर्सांचें गुरूचें एक वर्स जाता आनी गुरूचीं पांच वर्सां म्हळ्यार एक युग मानताले. ह्या युगांत ६० सौर वर्सां जातात. तांकां प्रभवादि नांवां दिल्लीं आसात. गुरूचे प्रदक्षणेचो काळ १२ वर्सांपरस ल्हान आशिल्ल्यान ८५ सौर वर्सांनी ८६ बहिस्पत्य संवत्सरां जातात. म्हण्टकच एक बहिस्पत्य संवत्सरां ना जातात. ब्रहिस्पत्याप्रमाण संवत्सराची सुरवात चैत्र शुध्द पाडव्याक जायना. ताका लागून ८२७ सावन दक्षीण भारतांत हें संवत्सर मानिनात जाले. पूण भारतात ही पद्दत आशिल्ली. देखुनूच उत्तरेकडल्या आनी दक्षिणेकडल्या संवत्सरांचीं नांवां वेगवेगळीं दिसतात.

पंचांगांत अशे सादारण आनी मुळावे म्हायती उपरांत पांच आंगांचे माहितीचे खण (columns) आसतात. हातूंत पयलो खण तिथींचो आसता. हातूंत शुध्द पक्षांत १ ते १५ (पुनव) आनी वद्य (कृष्ण) पक्षात १ ते १४ आनी ३० (उमास) अशे तिथीदर्शक आंकडे आसतात. तांचेफुडें वारांचो खण आसता. उपरांतचे दोन खण ती तीथ त्या दिसा उदेंतसावन कितल्यो घटका वा कितलीं पळां उरल्यांत तें दाखयता. धर्तरेच्या आकर्शणाक लागून चंद्रकक्षा विवृत्ताकार आशिल्ल्यान आनी चंद्राचेर सुर्याचेंय आकर्शण आशिल्ल्यान चंद्र सूर्य हांच्या भोगांत १२° अंतर पडपाक ६० घटकांपरस उणो चड वेळ लागता. हाकाच लागून तिथी सारक्या काळाच्यो नासतात. उण्यांत उणो तांचो काळ ५० आनी चडांत चड ६८ घटकांचो आसता. जी तीथ सुर्योदयावेळार आसता तीच तीथ पुराय दिसाची अशें मानतात आनी तोच आंकडो तिथीदर्शक खणांत आसता. देखीक - चवथ ही ६० घटकांपरस व्हड आसता. ती जर सुक्राराक उदेवाआदीं ५ घ. ४० प. सुरू जाल्ली आसा जाल्यार दुसऱ्या दिसा म्हळ्यार शेनवारा ती उदेंतेक ००.१७ प. उरता ताका लागून दुसऱ्याय दिसा (शेनवाराक) तीच तीथ उरता. हाचेखातीर तिथीच्या खणांत तिथीदर्शक ४ हो आंकडो फाटोफाट दोन दीस म्हळ्यार शुक्रारा आनी शेनवारा येता. हाचे उरफाटें, दुवादशीसारकी तीथ ६० घटकांपरस उणी आसता ती शेनवारा उदेवा उपरांत १ घ. २ प. न सुरू जाता. इतलो वेळ मेरेन उदेवा आदीं एकादस आशिल्ल्यान त्या दिसा म्हळ्यार शेनवारा खणांत ११ हो आंकडो बरयल्लो आसता. दुवादस साठ घटकांपरस उणी आशिल्ल्यान ती फुडल्या दिसाच्या म्हळ्यार आयतारच्या उदेवाआदींच ५ घ. ४८ प. सोंपता आनी तिरोदस लागता. हाका लागून उदेवा आदीं म्हळ्यार आयतारा तिरोदस येता. हाका लागून आयतार १३ हो आंकडो दिल्लो आसता आनी १२ हो आंकडो खणांत नासता. हांगा दुवादशीचो क्षय जालो अशें म्हण्टात.

कांय पंचांगांनी आनीक दोन खण घालून सुर्योदया उपरांत कितलीं कलाक (वरां) मिनटां आसात हें सांगप जाता. ताचे फुडल्या खणांत क्रमान नखेत्रांचीं आद्याक्षरां आसतात आनी ताचे फुडल्या दोन खणांनी तें नखेत्र त्या दिसा उदेंतेपसून कितल्यो घटका-पळां आसात हें दिल्लें आसता. हाचेवयल्यान चंद्र त्या दिसा उदेवावेळार आनी तेउपरांत कितलो वेळ खंयच्या नखेत्रांत आसा हें समजता. तिथीवरीच हें त्या दिसाचें नखेत्र मानप जाता. एकेक नखेत्र सादारणपणान ६० घटका आसता. पूण तिथीप्रमाण हाचोय काळ उणो-चड आशिल्ल्यान नखेत्राकूच क्षय वृध्दी आसता. कांय पंचांगांनी नखेत्राखातीर आनीक दोन खण आसतात. उपरांतचे तीन खण योग आनी तांच्यो घटका-पळां हांचेखातीर आसतात. तिथी-नखेत्रावरी योगाकूय क्षय-वृध्दी आसता. उपरांतचे दोन खण करणां आनी तांच्यो घटका-पळां हांचे आसतात. करणांक क्षय-वृध्दी नासता.

पंचांगांत मुखेल पांच आंगांभायर हेर म्हायतीखातीर आनीक खण आसतात. एकांत उदेवासावन अस्तामेरेन फकत दीस कितल्या घटका

पळांचो आसात हें दिल्लें आसता. ताचे फुडल्या खणांत मुसलमानी तारीख, भारतीय तारीख, इंग्लीश तारीख, उदेवाच्यो आनी अस्ताच्यो कलाक मिनटां-वेळो अशीय म्हायती मेळटा. निमाणच्या आनी मातशा व्हड खणांत चंद्र त्या दिसा खंयचे राशींत आसतलो ती रास दिल्ली आसता. त्या दिसा दीसभर ते राशींत चंद्र नासलो जाल्यार कितल्या घटका-पळां उपरांत फुडली रास लागता हें राशीच्या नांवासकट दिल्लें आसता.

हे सगळे खण सोंपतकूच फुडें दरेके तिथी मुखार त्या दिसाचें खाशेलपण दिल्लें आसता. तातूंत जयंती, पुण्यतिथी, परब, प्रदोष, एकादस, संकश्टी, आदी व्रतां, दग्ध, घबाड, गुरु, पुष्य सारके बरे-वायट योग आनी हेर म्हायती दिल्ली आसता. हाचेभायर वेगवेगळे ग्रह खंयचे राशींत वा खंयच्या नखेत्रांत वा खंयच्या चरणांत आनी केन्ना प्रवेश करतात ही म्हत्वाची म्हायती तातूंत दिल्ली आसता. हाचेभायर पानांत एक कुंडलीय दिल्ली आसता. हे कुंडले वयल्यान खंयचे राशींत खंयचो ग्रह आसा हें समजता. कांय व्हड पंचांगांनी ते पंद्रशेंत जितल्या वेळार ग्रहाचो राशीबदल घडटा तितल्या वेळा वा त्या बदलांच्या खिणांच्यो कुंडल्यो दिल्ल्यो आसतात. हाचेभायर कोनशावयल्या कोश्टकांत पुनव वा उमास ह्या खिणांचे स्पश्ट ग्रह दिल्ले आसतात. ग्रहांच्या नांवांसकयल पुराय जाल्ले राशीचो अंक, तेउपरांत अंश, कला आनी विकला दिल्ल्यो आसतात. हाचे सकयल दरेका ग्रहाची सदची ते पंद्रशेंतली सरासरी गती कलांत दिल्ली आसता. ताचेसकयल ग्रह वक्री आसा काय किदें हाचीय म्हायती दिल्ली आसता.

हाचेभायर पंचांगांत कांय पानां जोडून ज्योतीश शास्त्राचे नदरेन म्हत्वाची अशी म्हायती पुरायपणान दिल्ली आसता. दरेके इंग्लीश तारखेक ग्रहांच्यो सुवाती, रविक्रांती, लग्नां हांचीं व्हड कोश्टकां आसतात. चंद्र आनी सूर्य हांचीं गिराणां (आसल्यार), युत्यो, ग्रहांचे राशिप्रवेशकाळ तशेंच लग्न, मुजींचे आनी वास्तूशांतीचे म्हूर्त हांची म्हायती आसता. हाचेभायर व्हड व्हड गांवांचे अक्षांश-रेखांश, वर्सभविश्य, पावसाचें त्या वर्साचें नखेत्रागणीक प्रमाण, वेगवेगळ्या कामांचे म्हूर्त, गोत्रावळ्यो, अशौच निर्णय, मकर संक्रांतीची म्हायती, न्हवऱ्या-व्हंकलेच्या गुणांच्या मेळांचें कोश्टक, अशी जायते तरेची म्हायती आसता. पंचांगाच्या मुखपृश्ठाचेर पंचांगाचें गणित खंयच्या अक्षांश रेखांशाचे आनी वेळाप्रमाण खंयच्या स्थळाचें आसा हें सांगतात.

**पंचांगाचो उपेग** – ग्रहस्थितीवयल्यान मनशाच्यो जल्मपत्रिका तयार करप, शेताचीं कामां करप, प्रवास, वेपार, देवघेव आदी कामाखातीर म्हूर्त काडप ह्यो गजाली फलज्योतिशाच्या जाणकार मनशाक पंचांगावयल्यान करूंक मेळटात. यज्ञाखातीर तशेंच हेर बऱ्या कामांखातीर बरी वेळ पंचांगावयल्यानूच थरयतात. अशे तरेन व्हेवारीक, धर्मीक आनी शास्त्रीय नदरेन वेगवेगळी म्हायती दिवपी पंचांग हो एक म्हत्वाचो संदर्भ ग्रंथ.

भारतांत लागींलागीं सारके मांडावळीचीं वेगवेगळीं पंचांगां वापरांत आसात. पंचांगकर्त्यान सोयीप्रमाण आनी गरजेप्रमाण शक, म्हयनो, राशी, नक्षत्र हांच्या क्रमांत बदल केल्लो मेळटा. 'ग्रह लाघव', 'मकरंद', 'खंडखाद्य', 'लघुचिंतामणी', 'करणकुतूहल', 'तिथीचिंतामणी', 'सूर्यसिध्दान्त' सारकिल्या ग्रंथांचो आदार पंचांग तयार करतना घेतिल्लो आसा. आर्यभट्ट, वराहमिहिर, ब्रह्मगुप्त, भास्कराचार्य, गणेश दैवज्ञ, केरोपंत्त छत्रे, रघुनाथ शास्त्री पटवर्धन, बापू देव, श्री. कृ. कोल्हटकर, बी. र. लेले, ज. बा. मोडक, शं. बा. दीक्षित, वे. बा. केतकर, के. ल. दप्तरी, शि. ग. पवार सारकिल्या विद्वानांनी पंचांग निर्मितींत आनी तातूंत सुदारणा करपांत आपलें योगदान दिलां.

देशभरांत पंचांगगणना शास्त्रोक्त आनी एकमुखी रितीची जावप हेखातीर भारत सरकारान शास्त्रीय आनी उद्देगीक संशोधन मंडळ तशेंच भारतीय ज्योतिर्विदांची एक व्हड सभा घेवन पंचांग सुदारणा समिती नेमली आनी 'भारतीय दिनदर्शिका' सुरवात केली. भारतीय दिनदर्शिका शके १८७९ म्हळ्यार इसवी वर्स १९५५ वर्सापसून सुरवात जाली. ह्या पंचांगांत सायन ह्या पंचांग प्रकाराचो आस्पाव केलो. तेखातीर लौकिक वेळार ह्या पंचांगांतल्यान जावपाखातीर नियमावली तयार केली.

ॲल्मॅनॅक, इफॅमॅरिस, कॅलेंडर हीं कालकोश्टकां पंचांगाचें काम करतात.

**इस्लामी पंचांग** – मुसलमानी हिजरी वर्सांत १२ चांद्रमास आसतात. उमाशेउपरांत जेन्ना पयलें चंद्रदर्शन जाता त्या सांजवेळार इस्लामी म्हयन्याचो पयलो दीस सुरू जाता. २९-३० दिसांचो म्हयनो आसता. १२ चांद्रमासाचे ३५४ दिसूच आसतात. तांच्या बारा म्हयन्यांचीं नांवां अशीं - (१) मोहरम (२) सफ्फर (३) रबिलाबल (४) रबिलाखर (५) जमादिलाबल (६) जमादिलाखर (७) रज्जब (८) साबात (९) रमजान (१०) सवाल (११) जिल्काद (१२) जिल्हेन. 'हिजरा' ह्या मुस्लीम शब्दाचो अर्थ 'पळून वचप'. महमद पैगंबर इसवी वर्स ६२२ तारीख १५ जुलय ह्या दिसा मक्केसावन मदिनाक पळून गेलो. त्या दिसासावन ताचो 'हिजरी शक' सुरू जालो.

**पारशी पंचांग** – पारशी लोकांच्या पंचांगाच्या शकाक एजदीजर्ज अशें म्हण्टात. हो शक इ. स. ६३० वर्सा उपरांत सुरू जाल्लो. परशिया (इराण) देशांतल्यान हे लोक आयले देखून तांकां पारशी लोक म्हणूंक लागले. भारतांत आयल्यार तांकां सुमार १३०० वर्सां जावन गेलीं. म्हयन्याक ते 'सावन' अशें म्हण्टात. 'सावन' तीस दिसांचो आसता. वर्साचे दीस ३६० जातात. सौरवर्सा वांगडा मेळ बसपाखातीर वर्साच्या निमाणें पांच दीस चडीत धरतात. त्या पांच दिसांक 'गाथागंबर' अशें म्हण्टात. हे पांच दीस तांच्या धर्मीक कार्यावळींखातीर खूब म्हत्वाचे आसात.

पारशी शकाच्या म्हयन्यांची (सावन) नांवां (१) फरवर्दिन (२) आर्दीबेहस्त (३) खोरदाद (४) तीर (५) अमरदाद (६) शहरेवर (७) मेहर (८) आबान (९) आजूर (१०) दय (११) बहमन (१२) इस्पिंदाद.

**ग्रॅगरीयन पंचांग** – इसवी वर्स १५८२ त पोप ग्रॅगरी हाणें हें पंचांग तयार केलें. म्हयन्यांचीं नांवां इंग्लीश म्हयन्यांवरीच आसतात.

भारतीय पंचांगाची विशेश नामांसयत म्हायती फुडल्या तक्त्यार दिल्या

| तीथी (१५) | वार (७) | नक्षत्र (२७) | योग (२७) | करण (११) |
|---|---|---|---|---|
| पाडवो | आयतार | अश्विनी | विष्कंभ | किंस्तुघ्न |
| बी | सोमार | भरणी | श्रीती | बव |
| तय | मंगळार | कृतिका | आयुष्यमान | बालव |
| चवथ | बुधवार | रोहिणी | सौभाग्य | कौलव |
| पंचम | बिरेस्तार | मृगशीर्ष | शोभन | तौतिल |
| सश्ट | शुक्रार | आर्द्रा | अतिगंड | गर |
| सप्तम | शेनवार | पुनर्वसु | सुकर्मा | वणिज |

| अश्टम | पुष्य | धृती | विष्टी |
|---|---|---|---|
| नम | आश्लेषा | शूल | शकुनी |
| दसम | मघा | गंड | चतुष्पाद |
| एकादस | पूर्वा फाल्गुनी | वृध्दि | नाग |
| दुवांदस | उत्तरा फाल्गुनी | धृव |  |
| तिरोदस | हस्त | व्याघात |  |
| चतुर्दस | चित्रा | हर्षण |  |
| उमास वा पुनव | स्वाती | वज्र |  |
|  | विशाखा | सिध्दि |  |
|  | अनुराधा | व्यतिपाल |  |
|  | ज्येष्ठा | वर्याण |  |
|  | मूळ | परिघ |  |
|  | पूर्वाषाढा | शिव |  |
|  | उत्तराषाढा | सिध्द |  |
|  | श्रवण | साध्य |  |
|  | धनिष्ठा | शुभ |  |
|  | शततारका | शुक्ल |  |
|  | पूर्वाभाद्रपदा | ब्रह्म |  |
|  | उत्तराभाद्रपदा | ऐंद्र |  |
|  | रेवती | वैधृति |  |

**भारतीय सौरवर्स**

| शक | अयन (२) | ऋतु (६) | नांव (१२) | आरंभ दीस (इंग्लीश) | दीस संख्या | वर्साची दीससंख्या |
|---|---|---|---|---|---|---|
| शालिवाहन शक | उत्तरायण | वसंत | चैत्र | २२ मार्च (प्लुत वर्साक २१ मार्च) | ३० सामान्य दीस (चडीत दीस आसल्यार ३१ दीस) | सामान्य वर्सा खातीर ३६५ दीस |
|  |  | ग्रीष्म | वैशाख | २१ एप्रिल | ३१ | चडीत वर्स |
|  |  |  | ज्येष्ठ | २२ मे | ३१ | आसल्यार |
|  | दक्षिणायन | वर्षा | आषाढ | २२ जून | ३१ | ३६६ दीस. |
|  |  |  | श्रावण | २३ जुलय | ३१ | शक वर्सांत |
|  |  | शरद | भाद्रपद | २३ ऑगस्ट | ३१ | ७८ मेळोव- |
|  |  |  | आश्विन | २३ सप्टेंबर | ३० | पाचे आनी |
|  |  | हेमंत | कार्तिक | २३ ऑक्टोंबर | ३० | येतले |
|  |  |  | मार्गशीर्ष (आग्रहायन) | २२ नोव्हेंबर | ३० | बेरजेक ४नी भागचें. तो |
|  | उत्तरायण | शिशिर | पौष | २२ डिसेंबर | ३० | भागाकार शुन्य |
|  |  |  | माघ | २१ जानेवारी | ३० | आयल्यार |
|  |  | वसंत | फाल्गुन | २० फेब्रुवारी | ३० | चडीत वर्स धरतात. |

- कों. वि. सं. मं.

- माधव गोविंद भुस्कुटे

पूरक नोंद - तीथ.

**पंचायती :** (पळेयात ग्रामपंचायती).

**पंजाब :** भारताचे उत्तरेक आशिल्लें एक राज्य. क्षेत्रफळ ५०,३६२ चौ. किमी. विस्तार २९°३२′ उत्तर ते ३२°३५′ उत्तर. अक्षांश आनी रेखांश ७३°५५′ उदेंत ते ७७° उदेंत. लोकसंख्या २,०१,९०,७९५ (१९९१). हाचे अस्तंतेक पाकिस्तान, तशेंच उत्तरेक जम्मू आनी काश्मीर राज्य, ईशान्येक आनी उदेंतेक हिमाचल प्रदेश, दक्षिणेक आनी आग्नेयेक हरयाना, नैर्ऋत्येक राजस्थान हीं राज्यां आसात. मोगल सत्तेच्या सुरवेच्या तेंपार सिंधू आनी सतलज ह्या दोन न्हंयांचे मजगतीं आशिल्लो प्रदेश पंजाब ह्या नांवान वळखताले. उपरांत मोगल बादशाहांनी ह्या व्हड अशा पंजाब राज्यकारभाराची देखरेख वेवस्थीत जावची म्हणून हाचे दोन वांटे केले. १९४७त देशाची फाळणी जाली तेन्ना पंजाबचे उदेंत पंजाब आनी अस्तंत पंजाब अशे दोन वांटे जावन, उदेंत पंजाबाचो भारतांत आस्पाव जालो आनी अस्तंत पंजाब पाकिस्तानाक जोडलो.

**भूंयवर्णन** – भूंयरचणुकेचे नदरेन ह्या राज्याचे तीन वांटे जाल्यात. पर्वतांचो वाठार, फातरी दोंगुल्ल्यांचो वाठार आनी उथळ मळांचो वाठार. उदेंत-अस्तंत अशो ल्हान-व्हड हिमालयाच्यो पर्वतावळी राज्याचे उत्तरेक पातळ्ळ्यात. अस्तंत शिमेचे उत्तरेक रावी आनी नैर्ऋत्येक सतलज न्हंय आसा. राज्याचे ईशान्येक आशिल्ल्या ऊंचावयल्या प्रदेशाची उंचाय सु. ३६५ मी. सावन ६१० मी. मेरेन वाडत गेल्या. ह्या ऊंच प्रदेशाचे नैर्ऋत्येक आनी अस्तंतेक दोन न्हंयां मजगतीं आशिल्लो सपाट मळांचो वाठार आसून हांची उंचाय सु. २१० मी. ते ३६५ मी. इतली आसा. उत्तरेक सतलज आनी रावी हांचे मजगतीं आशिल्लो प्रदेश 'बडी दोआब' म्हळ्यार दोन न्हंयांमदलो वाठार. हाचे आग्नेयेक 'बीस्त' हो बिआस आनी सतलज हांचेमजगती आशिल्लो दोआब. न्हंयांदेगांच्या वाठारांक 'बेत' म्हण्टात. सतलज, झेलम, रावी, चेनाब आनी बिआस ह्यो हांगाच्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो. ह्या पांच न्हंयांवयल्यान ह्या राज्याक पंजाब म्हणजे पांच न्हंयांमदलो वाठार हें नांव मेळ्ळां.

**हवामान** – पंजाबांतलें हवामान सुकें आसता. हांगाचे शियांळो आनी गीम खूब कडक आसतात. अमृतसराचें वर्सुकी सरासरी तापमान २३.१° सॅ. आसता. गिमांत तें ३४.५° सॅ. आनी शियाळ्यांत ११.८° सॅ. आसता. गिमांत दनपारचें तापमान ४१° सॅ. इतलें चडटा. जानेवारींत तें ११.८° सॅ. ते १४.२° सॅ. मेरेन देंवता. बंगालाच्या उपसागरांतसावन येवपी मॉन्सून वाऱ्याक लागून पंजाबांत पावस चड पडटा. विंगड विंगड वाठारांनी पावस ५ ते ३६ इंच इतलो पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात** – पंजाबांत रानां साप्प पातळ आसून ह्या राज्याची फकत ४.२% भूंय रानांखाला आसा. गुरदासपूर, होशियारपूर आनी रूपार ह्याच जिल्ल्यांनी ६०% परस चड वनस्पत आसा. ४० सेंमी. परस चड पावस पडपी वाठारांनी पानझडी रूख तशीच कांटयांचीं झोंपां आसात. किकर आनी बाभूळ हे रूख चड प्रमाणांत आसात. दक्षिणेकडच्या वाठारांत जाल, जुंद आनी कोपर हे रूख आसात. हांगा मोनजातीचेंय प्रमाण साप्प उणें आसा. रानमाजरां आनी चुकून वांस्वेलां दिश्टी पडटात. कोले, रानदुकर, हरणां, सोंशे ही मोनजात कांय प्रमाणांत मेळटा.

**इतिहास –** ऋग्वेदांत पंजाबाचो उल्लेख सप्तसिंधू असो केला. सिंध आनी पंजाब मेळून हो प्रदेश जाल्लो. सप्तसिंधू म्हळ्यार सात न्हंयांचो वाठार. पंजाबांतल्यो झेलम, चिनाब, बिआस, रावी आनी सतलज ह्या पांच न्हंयांमदीं सिंधू आनी सरस्वती ह्यो दोन न्हंयो मेळ्ळ्यो म्हण्टकूच ह्या नांवाचें सार्थक जाता. हिंदू हो मूळचो शब्द सिंधूवल्यानूच आयला अशें म्हण्टात. सिंधू वाठारांत रावपी लोकांक इराणी लोक हिंदू अशे म्हण्टाले. मुखार भारतीय जनतेन हेंच नांव आपणायलें.

आर्य लोक हांगा पावचे पयलीं पंजाब सांस्कृतिक नदरेन गिरेस्त आशिल्लो. हडाप्पा आनी तक्षशिला हीं ह्या वाठारांतलीं दोन प्राचीन शारां आशिल्लीं. तांची संस्कृती ही नागर संस्कृती आशिल्ली. तांकां नगररचणुकेचें बरें गिन्यान आशिल्लें. ते लोक वेपारी आशिल्ले आनी तांचे इराक आनी इराण देशांकडेन वेपारी संबंद आशिल्ले. तांचे हे संस्कृतायेक सिंधुसंस्कृती अशें म्हण्टात. आर्यलोक भारतांत आयले उपरांत ताणीं थळाव्या द्रवीड लोकांचो पराभव करून तांची नागर संस्कृतीच इबाडून उडयल्ली. ह्या थळाव्या द्रवीड लोकांक हारोवन तांकां आर्य लोकांनी आपले गुलाम करून घेतले. ते त्या गुलामांक 'दासू' वा 'दस्यू' अशें म्हण्टाले. मुखार ह्या दोनूय लोकांमदीं भरसण जावन वैदिक संस्कृतीचो प्रसार जालो. सरस्वती न्हंयेसावन सिंधू मेरेनचो प्रदेश आर्यांच्या शेकातळा आयलो. अनू, पुरू, यदू, अुह्यू आनी तुर्वश हे आर्यांचे पांच पंगड (पंचजन) ह्या प्रदेशांचेर सत्ता चलयताले. पंजाबांतलें कुरुक्षैत्र हें कौरव-पांडवांचें झुजामळ आशिल्लें.




ॲलेक्झांडरान भारताचेर घुरी घालचे पयलीं कितल्याशाच परक्या राजांनी भारताचेर घुरयो घाल्ल्यो. इ. स. पयलीं ३२६त ॲलेक्झांडर पंजाबांत आयलो आनी आंभी राजाच्या आदारान सिंधुकांठावयल्या पुरू राजाचेर घुरी घालून ताका हारायलो. पूण पुरूच्या मरणाउपरांत कांय वर्सांनी मौर्य सम्राटांनी ग्रीसींकडच्यान सत्ता हातासली. सम्राट अशोकाच्या तेंपार इ.स. पयलीं २७३-२३२ ह्या काळांत मौर्यांच्या राज्यांत पंजाबाचो आस्पाव आशिल्लो.

बॅक्ट्रियेचो राजा मिलिंद हाणें सनपयलीं दुसऱ्या शेंकड्यांत पंजाबाचेर जैत मेळोवन तक्षशिला ही आपली राजधानी केली. मुखार शुंग, शक, कुषाण, हूण ह्या परकी घराण्यांनी पंजाबाचेर कांय तेंप आपलो शेक गाजयलो. ह्या काळांतली म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार ह्या सगळ्या वंशांच्या संस्कृतायांची भरसण जावन एक नवीच संस्कृताय ह्या तेंपार निर्माण जाली.

इ.स. च्या १०व्या शेंकड्या सावन पंजाबाचेर मुसलमानी घुरयो येवपाक सुरवात जाली. इ.स. ९८०त गझनीच्या सबुक्तिगीन हाणें पंजाबाचेर घुरी घाली. डॉ. पु. ग. सहस्त्रबुध्दे हाच्या मतान हे घुरये उपरांत पंजाब हिंदू राजांच्या हातांतल्यान सासणाचें गेलें. १३५१त तिसरो फीरुझशाह तुघलक गादयेर येत सावन आधुनिक पंजाबाच्या इतिहासाक सुरवात जाली. इ.स. १३९८त तार्तार देशाच्यो तैमुर हाणें पंजाबाचेर घुरी घालून खूब गांवांची नासधूस केली. तैमूर परत गेलेउपरांत सय्यद आनी लोदी ह्या घराण्यांनी दिल्लीसयत पंजाबाचेर राज्य केलें. इ.स. च्या १६ व्या शेंकड्याचे सुरवेक लोदी घराण्याचे राजवटींत राजकीय नदरेन पंजाबाचे दोन वांटे जाले. एक मुलतानाकडचो प्रदेश आनी दुसरो लाहोराकडचो प्रदेश. समाजीक नदरेन एक हिंदू पंजाब आनी दुसरो मुसलमानी पंजाब. त्या वेळार हांगाचो मुसलमान समाज हो राज्यकर्त्यांचो समाज आशिल्लो. १५२६त पयल्या पानिपताच्या झुजांत बाबर हाणें इब्राहीमाचेर हार घाली.

लोदी आनी बाबर हांचेमदीं आपआपले सत्तेची स्थापणूक करची म्हणून सर्त लागिल्ली आसतना गुरू नानक हाणें हांगा शीख धर्माची स्थापणूक केली. सत्याचे आनी मोगाचे संदेश ताणें दिले. मुर्तीपुजेचो ताणें निशेध केलो. हिंदू आनी मुसलमान धर्मांतल्यो उच्च देखी आपणाल्या शीख धर्मांत एकठांय हाडल्यो. गुरू नानका उपरांत हांगा णव शीख गुरू जावन गेले. गुरू रामदास हाणें १५७७त अमृतसराक भांगरादेवूळ बांदलें. गुरू अर्जून हाणें नानक आनी हेर गुरूंचीं वचनां एकठांय करून ग्रंथसाहिब हो स्वतंत्र ग्रंथ रचलो.

सम्राट अकबराच्या तेंपार पंजाब प्रदेश मोगलांच्या शेकातळा आशिल्लो. अकबराचे आनी शीखांचे संबंद तशे बरे आशिल्ले. ताणें गुरू अर्जून हाणें रचिल्ल्या ग्रंथसाहिब ह्या ग्रंथाक भांगराच्यो ५१ मोहरो इनाम दिल्ल्यो. अकबराच्या मरणाउपरांत मोगल बादशाह आनी शीखांचे संबंद इबाडत गेले. दक्षिणेक औरंगजेब मराठ्यांआड झुजांत घुस्पल्लो आसतना, पंजाबांत शिखांनी मोगल सत्तेआड खूब उठाव केले. गुरू हरगोविंद सिंग हाणें मोगलांआड झूज उबारून पंजाबांत राजकीय सत्तेची स्थापणूक केली. गुरू गोविंदसिंग हाणें आपल्या सैन्याच्या आदारान मोगलांचो ह्या प्रदेशांतलो शेक उणो केलो. पूण १७१२त बहादूर शहा हाणें ताका कैद करून, ताचे हाल हाल करून ताका जिवेशीं मारलो. शीखांनी १७४८त खालसा दलाचें संघटन केलें. ह्या संघटनांक 'मिसाल' अशें म्हण्टाले. १७६८ ते १७९८ मेरेन पंजाबांत बारा मिसालांची सत्ता आशिल्ली. ह्याच काळांत

रणजितसिंगा सारकी व्हड व्यक्ती पंजाबाक लाबली. ताणें शीख समाजांत निर्माण जाल्ले पंथभेद पयसावन सगळ्या शीखांक एकठांय हाडपाचे यत्न केले. ताणें आपल्या हातांत सत्ता घेतले उपरांत पेशवार ते सतलजमेरेन शीखांचें राज्य वाडयलें. रणजितसिंगाच्या मरणा उपरांत, ताचो चलो ल्हान आशिल्ल्यान ताची राणी जिंदन ही राजकारभाराची देखरेख करताली. पूण खरी सत्ता सैनिकांच्या हातांत आशिल्ली. मुखार शीखांनी इंग्लीश सरकाराआड खूब उठाव केले. पूण हे उठाव इंग्लिशांनी काबार करून, १८४९त शीख राज्य खालसा केलें आनी त्या खिणा सावन ते भारत स्वतंत्र जायतमेरेन ह्या प्रदेशाचेर ब्रिटिशांनी शेक गाजयलो.

इ. स. १९१३त बाबा सोहनसिंघ हाच्या फुडारपणाखाला पंजाबांत गदर पार्टीची स्थापणूक जाली. हिचो हेत भारताक ब्रिटीशांचे गुलामगिरींतल्यान सोडोवन देशांत प्रजासत्ताक राज्य घडोवन हाडपाचो आशिल्लो. १९१९ च्या जालियनवाला घडणुके उपरांत इंग्लीश-शीख हांचे मदले संबंद आनीक इबाडले. भारताचे स्वतंत्र चळवळींत पंजाबाचोय वांटो म्हत्वाचो आसा. पंजाबांत खूब देशभक्तांनी आपले मायभुंयेखातीर आपल्या जिविताचें रान केलें. भगतसिंग हो व्हड क्रांतिकार हांगाचोच. तसोच लाला लाजपतराय हो पंजाबाचो सुपुत्र, राश्ट्रीय चळवळींत अखिल भारताचो पुढारी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९४७त भारतावांगडाच पंजाबूय स्वतंत्र जालो. पूण रॅडक्लिफ येवजणेप्रमाण देशाची फाळणी जावन पंजाबाचे उदेंत आनी अस्तंत अशे दोन वांटे जाले. हातूंतलो अस्तंत पंजाबाचो (क्षेत्रफळ १,६३,१३६ चौ. किमी.) पाकिस्तानांत आस्पाव जालो आनी उदेंत पंजाबाचो (क्षेत्रफळ ९६,९१२ चौ किमी.) आस्पाव भारतांत जालो. स्वातंत्र्या उपरांत भारतांतल्या पंजाबाचो कांय वांटो हिमाचल प्रदेशाक जोडलो आनी १९६६त हरयाना राज्य वेगळें केलें. भारतांतल्या सध्याच्या पंजाब राज्याचें क्षेत्रफळ ५०,३७३ चौ. किमी. आनी हरयाना राज्याचें ४४,२२२ चौ. किमी. इतलें आसा.

भारतीय संविधान चालीक लागले उपरांत उदेंत हें उतर काडून फकत पंजाब हें नांव दवरलें. १९५६ पेप्सू (पतियाळा आनी इस्ट पंजाब स्टेट्स युनियन) हो प्रदेश पंजाब राज्याक जोडलो. हें भारतीय संघराज्यांतलें एक घटक राज्य आशिल्ल्यान राश्ट्रपतीन नेमिल्ल्या राज्यपालांवरवीं विधिमंडळाक जापसालदार आशिल्लें मंत्रीमंडळ हांगाचो राज्यकारभार चलयता.

**अर्थीक रिथती** - पंजाबांत शेतकी पिकावळ आनी पशुपालन हांकां चड म्हत्व आसा. शेतवड हो चड लोकांक काम दिवपी वेवसाय आसा. राज्याचे वट्ट जमिनींतली सुमार ७६% भूंय शेतवडीखाला आसा आनी हातूंतली ८०% जमीन शिंपणावळीखाला आसा. शेतकी उत्पादनाचे नदरेन भारताच्या हेर राज्यांपरस ह्या राज्याचो पयलो आंकडो लागता. हांगाची चडशी जमीन खारजांच्या उदकान भिजयतात. भाक्रा-नांगल धरणांतल्या खारजांक लागून पंजाबाचे शिंपणावळ येवजणेक चड म्हत्व लाबलें. हें धरण भाक्रा गांवांत आसून तें २२६ मी. ऊंच आनी ८१३ मी. लांब आसा. ह्या धरणासावन येवपी उदक, पंजाब भुंयेक पिकाळ करून राज्यस्थानाचीय भूंय भिजयता.

पंजाबांत सदांकाळ व्हांवपी आनी गरज पडटा तेन्ना उकते जावपी अशे दोन तरांचे खारीज आसात. हांगाच्या खारजांची वेवस्था बरी आसून, तांची प्रसिद्धी जगभर पातळ्ळ्या. गंव, यव, हरभरो, तीळ, ज्वारी, बाजरी, मको, तंबाकू, कापूस, ऊंस हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. हेर राज्यांपरस हांगा गंव सगळ्यांत चड पिकता. दोंगरी वाठारांत फळ-फळावळीचें पीक बरें येता. कांय वाठारांनी च्याचीय लागवड जाता. राज्यांत पशुपालनवेवसाय खूब म्हत्वाचो आसा. राज्यांत अलिगड, अमृतसर, भतिंडा, लुधियाना आनी मुरादाबाद हांगा दुग्धप्रकल्प चालू आसात. हांगाच्यान दर दिसा एक लाख लिटरांवयर दूध एकठांय करतात. पंजाबी गायो आनी म्हशी दुदाळ म्हणून प्रसिद्ध आसात.

पंजाब हें मुखेलपणान लघुउद्देगांचें राज्य. पंजाबांतल्या उद्देगीक मळार शीख लोक खूब मुखार पावल्यात. लोकर आनी रस्माचीं वस्त्रां ते विण्टात, लाकूडकाम, शस्त्रां, वाद्यां आनी हेर ल्हान-सान उद्देगूय ते करतात. पंजाब राज्य उद्देग विकास म्हामंडळाची स्थापणूक जाल्ली आसून, ह्या मंडळाचो ल्हान-व्हड उद्देगांक आदार मेळटा. हांगा सायकली, ल्हान यंत्रां, खेळाचें सामान. लोकरीचे कपडे, तशेंच मशीन टुल्स, विजेचीं यंत्रां, ट्रॅक्टर, चामड्याच्यो वस्तू आनी तिजुल्यांचे कारखाने आसात.

पंजाबांत वेपार करपी लोकांचे पांच पंगड वा वर्ग आसात. पयल्या पंगडांत बनिया, धुंसार, बोहरा आणि पहारी महाजन हांचो आस्पाव जाता. दुसऱ्या पंगडांत सूद आनी भाब्रा, तिसऱ्या पंगडांत खत्री, खाक आनी भाटीया, चवथ्या पंगडांत अरोड आनी पांचव्या पंगडांत खोजा तशेंच पराच ह्या लोकांचो आस्पाव जाता. पयल्या पंगडांतले वेपारी उदेंत आनी आग्नेय वाठारांत रावतात. दुसरो पंगड उत्तरेकडच्या दोंगुल्ल्यांच्या मुळांत रावता. तिसरो पंगड वायव्येक सोडून हेर सगळ्या वाठारांनी दिश्टी पडटा. चवथ्या पंगडाचे लोक डेरेजाट आनी बहावलपूर ह्या वाठारांनी रावतात. पांचवो पंगड हो मुसलमानांचो आसून ते लोक मध्य आनी अस्तंत वाठारांत रावतात.

अमृतसर, जालंदर, लुधियाना, नवाशहर, होशियारपूर हे हांगाचे मुखेल उद्देगीक प्रदेश आसात. जालंदर हें खेळां साहित्याचें व्हड केंद्र. होशियारपूराक टर्पेंटायन, रॉझिन, वार्निश हांचे उद्देग चलतात. लुधियाना हें लोकरी लुगटाचें देशांतलें मुखेल केंद्र.

**येरादारी आनी संचारण** – राज्याची भूंय रचणूक बरी आशिल्ल्यान देशाच्या हेर राज्यांपरस हांगा रस्ते आनी रेल्वे मार्गांनी खूब सुदारणा जाल्या. व्हड-व्हड शारां तशेंच ल्हान-सान गांवगिरे वाठार लेगीत रेल्वे आनी रस्त्या मार्गांनी जोडल्यात. जालंदराक आकाशवाणी केंद्र आसा. चंदीगढाक विविध भारतीचें आकाशवाणी केंद्र आसा आनी अमृतसराक २९ सप्टेंबर १९७२ दिसा दूरदर्शन केंद्राची स्थापणूक केली. राज्यांत 'ट्रिब्यून' (इंग्रजी) 'पंजाब केसरी' (हिंदी) हिंद समाचार (उर्दू) आनी 'अजित' (पंजाबी) ही पंजाबची मुखेल खबरापत्रां. पंजाबी भाशेंत २९ दिसाळीं आनी सुमार १९२ सातोळीं आसात.

**लोक आनी समाजजीण** - १९९१ वर्साचे जनगणने प्रमाण पंजाबाची लोकसंख्या २,०१,९०,७९५ आसा. हांगा लोकसंख्येची दाटाय चड आसून दर चौ. किमी.क ४०९ लोक मेळटात. १,००० दादल्यांक ८८८ बायलो इतलें प्रमाण आसा. राज्यांत ६०.७५% शीख धर्मीय, ३६.९३% हिंदू धर्मीय, १.१०% क्रिस्तांव, १% इस्लाम आनी ०.१६% जैन धर्मीय आसात. हेर धर्मांचे लोक हांगा उण्या प्रमाणांत आसात. राज्याचें साक्षरतायेचें प्रमाण ५६.७०% आसा (१९९१).

शीखांचें पवित्र 'सुवर्णमंदीर' अमृतसराक आसा. हें शार चवथो गुरू रामदास हाणें वसयलें. ग्रंथसाहिब हो शीखांचो मुखेल धर्मग्रंथ आसून तो

पांचवो गुरू अर्जुनदेव हाणें रचला. १८७४त स्वामी दयानंद सरस्वतीन हांगा आर्य समाजाची थापणूक केली.

हिंदूप्रमाण शीखांयमदीं कट्टर अकालींसावन समन्वयी आहलूवालियांमेरेन साबार पंथ आसात. पूण ग्रंथसाहीब आनी गुरूपरंपरा सगळ्या पंथांक मान्य आसा. पंजाबी हिंदू लोक शिव, देवी आनी विष्णु ह्या देवांक भजतात. हिंदु-शीखांच्यो समाजीक रुढी सारक्योचशो आसात. सोळा संस्कारांतलें गर्भ, जल्म, मूज, लग्न आनी मरण समाजांत विंगड विंगड तरांनी मनयतात.

हिंदू आनी शीख ह्या दोनूय समाजांनी लग्न जमोवपाचे विधी सारकेच आसता. लग्न थरोवचे पयलीं व्हंकल-नवऱ्याचे आवयबापूय पत्रांतल्यान वा रायबाऱ्याकडच्यान लग्नाचें थरयतात. व्हंकल मानवली जाल्यार लग्नापयलीं तिका न्हवऱ्याचे नदरेआड दवरतात. सोयऱ्याधायऱ्या बायलांक भिजिल्ले चणे दिवन तांकां लग्नावेळार पदां म्हणपाक आमंत्रण दितात.

गुरवारपणांतल्या संस्कारांक 'रीतें' अशें म्हण्टात. तिसऱ्या, पांचव्या, सातव्या वा आठव्या म्हयन्यांत हो संस्कार जाता. तेन्ना कुळारासावन गुरवार बायलेक नवीं वस्त्रां आनी गोड पदार्थ भेट म्हणून दितात. कांयकडेन पयले गुरवारणीची ओंट भरपाचीय परंपरा चलता. भुरगें जल्माक आयले उपरांत तेराव्या दिसा ताच्या गळ्यांत एक दोरो बांदतात. ताका सुत्रसंस्कार म्हण्टात. तिसऱ्या वा पांचव्या वर्सा चल्याची मूज करतात.

आदल्या काळांत पंजाबी हिंदू दादले पुडवें न्हेसताले. तशेंच खांदार वालो आनी माथ्याक शेलो बांदताले. पूण ब्रिटिश सत्तेच्या काळांत हांगाच्या भेसांत बदल जालो. पंजाबांतल्या शारांनी रावपी हिंदू लोक हेर भारतीय प्रदेशांतल्या लोकांभाशेनूच भेस करतात. गांवगिऱ्या वाठारांनी मात विंगड-विंगड प्रकारांचे भेस करतात. तांच्यो पगडयो वेगळ्या वेगळ्या रंगांच्यो आसतात. ते पिजाम आनी सदरो वापरतात. पंजाबी बायलो सलवार घालतात आनी ताचेर धोंपरांमेरेन पावपी सदरो घालतात आनी माथ्यावयल्यान मखमली वा रस्मी ओडणी घेतात. घागरो हो पंजाबी बायलांचो आवडीचो वस्त्रप्रकार.

पंजाबी बायलो नाक, कान, गळ्यांत, हातांत, पांयांत आनी माथ्यार अशा सगळ्या आंगार अलंकार घालतात. पांयांतले अलंकार रुप्याचे आनी हेर भांगराचे आसतात. शीख दादलो 'केश - कंगवा - कंगन - कछ - कृपण' हीं पं -चिन्नां ('पंचककार') वापरतात. तांचें जेवण हेर भारतीय लोकांभाशेन सादें आसता. गंवाच्यो भाकऱ्यो, चणे आनी दाळ, भाजी, दूद आनी दुदाचे जिनस, फळफळावळ आनी केन्नाकेन्नाय नुस्तें आनी मास आसता.

संगिताच्या मळार ह्या राज्यांतल्यान स्वामी हरीदास, बडे गुलामअलीखाँ, अमानत अलीखाँ, कुंदनलाल सैगल, महंमद रफी हे शास्त्रीय आनी सुगम संगीत गायक म्हणून प्रसिद्ध आसात. सिनेमांतले पृथ्वीराज कपूर आनी राजकपूर आनी हेर कपूर भाव तशेंच हेर बरेच सिनेकलावंत पंजाबाचेच आसा. चित्रकलेचो विकासूय बरोच जाल्लो आसून 'कांग्रा चित्रशैली' ही पंजाबाचीच. पंजाबांत ललीत कलांनी, नाच आनी गायन मळारूय आपलो खासा प्रभाव घाला. दादल्यांचो 'भांगडा' आनी बायलांचो 'गिध्दा' हे समूहनाच प्रसिद्ध आसात. दरेका ऋतूंतले पंजाबी सण-परब वेगळ्यावेगळ्या प्रकारचे आसतात. दर एक सणापरबेकडेन त्या त्या ऋतूचो संबंद आसता. होळी आनी लोहडी हे पंजाबांतले म्हत्त्वाचे सण. पंजाबांतले लोक हेर सणय व्हडा उमेदीन मनयतात.

**भाशा आनी साहित्य** – राज्यांतल्या चडशा लोकांची भाशा पंजाबी, ही इंडो-आर्यन भाशासमुहांतली एक भास. ही भास इकराव्या शेंकड्यांत शौरसेनी अपभ्रंश हे भाशेंतल्यान उदयाक आयली. तिका आधुनिक रूप दिवपाक पैसाची भाशेचें योगदान आसा. पंजाबी खेरीज अस्तंत हिंदी आनी पहाडी भाशाय कांय वाठारांत उलयतात.

पंजाबाची गुरुमुखी ही लिपी शीख गुरूंनी थारायल्ली आसून धर्मीक मळार शीख लोक तिचो उपेग चड प्रमाणांत करतात. तिचेखेरीज देवनागरी आनी फार्सी लिपींनीय पंजाबी पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. पंजाबांत विंगड विंगड वाठारांनी विंगड विंगड बोली लोकांच्या ओठांचेर घोळटात. माझी ही बोली अमृतसर, लाहोर आनी गुरुदासपूर ह्या प्रदेशांनी उलयतात. दुआबी ही व्यास आनी सतलज ह्या दोनय न्हंयांच्या मदल्या प्रदेशांत उलयतात. तशोच मलवई, पटियाली, फिरोजपुरी, लहेंदी, पोठोहारी ह्योय बोली भासो म्हत्वाच्यो आसात.

पंजाब प्रदेशांतले भाशेक पंजाबी हें नाव हाफीज बरखुरदार ह्या कवीन इ. स. १६७०त दिलें. ताचे पयलीं तिका हिंदी वा हिंदवी म्हण्टाले. पंजाबी साहित्याची सुरवात केन्ना जाली हाचेर भाशा तज्ञांची खूब भासाभास जाता. पूण इतिहासीक नदरेन जाचें पंजाबी भाशेचो पयलो कवी म्हण नांव घेवं येता आनी जाचें काव्य अजुनूय आसा, असो कवी म्हळ्यार फरीद शकरगंज. हो बाराव्या शेंकड्यांत जल्माक आयिल्लो एक सुफी पंथी आशिल्लो.

गुरू नानक हाणें हिंदी भरसण केल्ली पंजाबींत भक्तिमार्गी रचणूक करून गुरुसाहित्याची परंपरा सुरू केली. गुरू नानक (१४६९-१५३९) हो कबीराभाशेन हिंदू-मुसलमान एकवटाचो समर्थक आशिल्लो. गुरू नानकापयलीं गोरखपंथींनी श्लोक आनी पदां रचिल्लीं. ताचेचवांगडा योध्दे आनी राजा हांचीं स्तुती करपी 'वार' हो साहित्य प्रकार प्रचलित आशिल्लो.

अमीर खुसरौ (१२५३-१३२५) हाणें तुघलक शाह हाचेर 'वार' रचिल्लो. पंजाबी सुफी कवींमदीं फरीद शकरगंज (शेख फरीद ११७३-१२६५) आनी लुत्फअली हांचीं नांवां म्हत्वाचीं आसात. तुल्फअली हाणें सैफल मलूक नांवाचें एक काव्य रचलें. मुखावयल्या सुफी कवींचेर ताचो बरोच प्रभाव पडिल्लो दिश्टी पडटा. शाह हुसेन, सुलतान बाहू ह्या सुफी कवींनीय पंजाबी साहित्यांत मोलादीक भर घाली. पंजाबांत हिंदू भक्तकवीय जावन गेले. ताणीं भक्तीचेर साबार कविता रचल्यात. ह्या काव्यवाङ्मयांत राम-कृष्णाची लीला, वेदान्त, वैराग्य, भक्ती, नीत आनी हेर विशयांचेर विचार उक्तायल्यात.

काहना हो पंजाबी साहित्याचो प्रसिद्ध भक्तकवी आशिल्लो. भक्तीयुगा उपरांत मोगा काव्यांचो काळ येता. ह्या काळांत मानवी संवसारांतल्या मोगाक म्हत्व दिलां आनी प्रणयी युगुलांचेर साबार रचणुको जाल्यात. ह्या रचणुकांक 'किस्सा' काव्यप्रकार म्हण्टात. हीर-रांझा, मिर्झा-साहिबाँ, सस्सी-पुन्नूं, सोहनी-महिवाल अशीं तांची नांवां आसात. हीर-रांझा हांच्या मोगाचेर पयलें काव्य दामोदर कवीन बरयलें आनी दुसरें वारिसशाह ह्या कवीन बरयलें.

पीलू हाणें मिर्झा-साहिबाँ ह्या मोगी जोडप्याचेर प्रणयगाथा बरयली. सतराव्या शेंकड्याच्या मदल्या काळासावन गद्य लिखाणांक नेट आयलो.

शीखांचें राज्य आयले उपरांत वीरगाथा आनी देशभक्ती लिखाणाक सुरवात जाली. अर्विल्ल्या काळांत पंजाबी साहित्याक नवी दिका मेळ्ळी. भाई वीरसिंग (१८७२-१९५७) हाचीं धर्मीक महाकाव्यां, भावगीतां आनी सैम काव्यां हाचेर अस्तंती प्रभाव दिसता. पुराणसिंग आनी कृपासिंग हे ताचे समकालिन आशिल्ले. गुरुमुखसिंग मुसाफिर (१८९९-१९७६) आनी हिरासिंग दर्द (१८८९-१९६४) हे दोन मुखेल राश्ट्रवादी कवी जावन गेले.

पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत झुजाचो प्रचार आनी पंजाबी जवानांचें मनोरंजन ह्यो दोन गजाली नदरेमुखार येवन पंजाबीं साहित्य निर्माण जावंक लागलें. ह्या काळांत सिंहसभेचे चळवळीक नेट चडिल्ल्यान शीख मत आनी शीख संस्कृती हांचो प्रचार करप आनी शीख समाज हो हिंदुधर्मी समाजासावन साप्प वेगळो आसा अशी भावना निर्माण करप हो सिंहसभेचो एक मुखेल उद्देश आशिल्लो. मुखार अकाली दल हे संस्थेक लागुनूय हांगा व्हड साहित्य निर्माण जालें.

शिक्षणप्रसार वाडल्या उपरांत ललीत वाङ्मयाकूय नेट आयलो. कविता, कथा, कादंबऱ्यो, चरित्रां अशे तरेचें व्हड लिखाण जावपाक लागलें. आर्विल्ल्या काळांतले मोहन सिंग (१९०५ - १९७८), कवयित्री अमृता प्रीतम (१९१९) आनी हरभजनसिंग (१९२०) हे नामनेचे कवी-कवयित्री.

हरचरण सिंग (१९१४), संतसिंग सॅखॉम (१९०८), गुरू दयाल सिंग खोसला (१९१२), ईश्वरचंदर नंदा (१८९२-१९६१) हे मुखेल नाटककार आसात.

अमृता प्रितम हिका ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाला (१९८१).

**म्हत्वाचीं थळां** -अमृतसर हें हांगाचें व्हड शार आनी शीखांचें सगळ्यांत पवित्र तीर्थस्थान. गुरू रामदास हाणें हें शार वसयलें. हांगाच्या भांगरा देवळाच्या व्हडपणाक आनी कलात्मकताय हाका लागून जगप्रसिद्ध आसा. कुरुक्षेत्र हें दिल्ली-कालका रेल्वे मार्गावयलें एक प्रसिद्ध क्षेत्र. कौरव-पांडवांचें झूज ह्याच जाग्यार जालें आनी श्रीकृष्णान अर्जूनाक ह्याच रणक्षेत्राचेर गीता सांगिल्ली.

थानेसर ह्या वैष्णव क्षेत्रांत एक व्हड सरोवर आसा. व्यासकूंडाक १५ हजार फूट उंचायेचेर व्यास न्हंयेच्या उगमाचें एक कूंड आसा. चंडीगढ शार गुलाब आनी हेर फुलांक लागून प्रसिद्ध आसा. सतलज न्हंयेवयली व्हड धरणां भाक्रा-नांनगल तशीच भतिंडा, जालंधर, सरहिंद, कर्तारपूर हीं पळोवपासारकीं शारां आसात. अचलेश्वर ह्या गांवांत शिवपार्वतीचें व्हड देवूळ आसून उत्तर भारतांतली एकूच कार्तिकाची मूर्त हांगा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## पंजे, मंगेशराव

**पंजे, मंगेशराव :** (जल्म : २२ फेब्रुवारी १८७४, बंटवाल; मरण: २५ ऑक्टोबर १९३७, हैदराबाद).

आर्विल्लो कन्नड कवी, कथाकार आनी विचारवंत लेखक. ताचें मूळ घराणें हें दक्षिण कानडा जिल्ह्यांतल्या सुब्रह्मण्य गांवा लागसारच्या पंजे ह्या खेड्यांतलें. पूण उपरांत हें पंजे घराणें नेत्रावती न्हंयेचे देगेर वशिल्ल्या बंटवालाक येवन रावलें. हांगाच मंगेशरावाचो एका गरीब सारस्वत कुटुंबात जल्म जालो.

मंगेशरावाची आवयभास कोंकणी, प्रदेशीक भास तुळू आनी शिक्षण कन्नड भाशेंतल्यान जाल्ल्यान, तिनूय भाशांचेर ताचें प्रभुत्व आशिल्लें. मंगेशराव १६ वर्सांचो आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयलें.

पुरंदरदास, कनकदास हांच्या कन्नड भजनांचो तशेंच मराठी भजनांचो मंगेशरावाच्या भुरग्या मनाचेर खूब प्रभाव पडलो. ताका लागून ताका कविता करपाची ओड लागली. नामनेचो कन्नड साहित्यीक बेनगल रामराव हाची भयण गिरिजाबाई हिचेवांगडा १८९४ वर्सा ताचें लग्न जालें. १८९५ वर्सा तो बी. ए. जालो.

१९०० वर्साच्या अदमासाक, मंगळूरच्या शासकीय महाविद्यालयांत कन्नडाचो पंडीत म्हणून ताची नेमणूक जाली. त्याच वर्सा बेनगल रामराव हाच्या आदारान ताणें 'सुवासिनी' हें कन्नड म्हयनाळें सुरू केलें. १९०० ते १९०३ ह्या तीन वर्सांच्या काळांत, ह्या म्हयनाळ्यांतल्यान ताणें आपल्यो कथा आनी कविता उजवाडायल्यो. 'रा.मं.पं.', 'हरटेमल्ल', 'कविशिष्य' ह्या टोपण नांवांनीय ताणें लिखाण केलें. बासेल मिशनान चलयल्ल्या 'सत्यदीपिके' ह्या म्हयनाळ्यांत पंजे हाणें 'हरटेमल्ल' ह्या टोपण नांवान समाजीक, राजकीय आनी वैचारिक स्वरुपाचें प्रभावी लिखाण केलें.

जर्मन अधिकाऱ्यांक पंजे कन्नड शिकयतालो. हाका लागून बासेल मिशनान १९०५ वर्सा पंजे हाणें तयार केल्लो कन्नडाचो व्याकरणग्रंथ उजवाडायलो. 'बालकथावलि' हो पंजेचो कथांझेलो बासेल मिशनानूच उजवाडायलो.

पंजे हाणें तयार केल्लीं कन्नड पयली (१९११) आनी कन्नड दुसरी (१९१९) हीं पाठ्यपुस्तकां आसात. मंगळूरच्या शिक्षण खात्यांत तशेंच उपरांत कूर्ग जिल्ह्यांत (१९२१-२८) ताणें शाळा निरीक्षक म्हणूनूय काम केलें. मडिकेरे सॅंट्रल स्कुलाचो मुख्याध्यापक म्हणून लेगीत ताणें कांय काळ काम केलें. पंजेन १९२१ वर्सा 'बालसाहित्य मंडळा'ची स्थापणूक केल्ल्यान ताका 'कन्नड बालवाङ्मय पितामह' म्हणून पाचारतात.

एक सुसंस्कृत, कलासक्त व्यक्तिमत्व पंजेच्या साहित्यांतल्यान दिसता. कला, संगीत, साहित्य तशेंच तुळू भाशेंतल्या लोकवाङ्मयाची ताका खूब आवड आशिल्ली. कन्नड भाशेंत ताणें बरयल्लीं स्फूट बालगितां शालेय पाठ्यपुस्तकांनी मुजरत घेतात. ताच्यो 'लोरी-गीत', 'सर्प-गीत', 'उदयराग', 'तेंकण-गळियाट' ह्यो कविता उत्कृश्ट मानतात. आर्विल्ले कन्नड कथेचो प्रवर्तक म्हूण पंजे हाका म्हत्वाची सुवात आसा. ताणें थोड्योच बालकथा आनी लघुकथा बरयल्यो. 'बालकथावलि' (१९१६), 'कोटि चेन्नय' (लोककथां झेलो - १९२७) 'ऐतिहासिक कथावलि' (१९३४) हे ताचे म्हत्वाचे कथांझेले.

१९३४ वर्सा रायचूराक भरिल्ल्या विसाव्या कन्नड साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद पंजे हाका फावो जाल्लें. पंजे हाच्या मरणा उपरांत १५ वर्सांनी पंजे स्मारक ग्रंथ समितीवतीन, गोविंद पै आनी हेरांनी मेळून ताचेर 'पंजेयवर नेनपिगागि' (१९५२) हो गौरवग्रंथ संपादून उजवाडायलो. तशेंच 'पंजे मंगेशराव' (१९७१ आनी १९७२) हे दोन कन्नड गौरवग्रंथ उजवाडायले. १९७४ वर्सा ताचे जल्मशताब्देचो सुवाळो मंगळूर हे ताचे कर्मभुंयेंत तशेंच कर्नाटकांतल्या मुखेल शारांनी व्हड दबाज्यान मनयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**पंडा ब्राह्मण :** वेवसायावयल्यान जाल्लो ब्राह्मणांचो एक फांटो. हे लोक सामान्यपणान वाराणसी, प्रयाग, मथुरा, जगन्नाथपुरी, रामेश्वर आदी तीर्थक्षेत्रांनी आसतात. ह्या लोकांचो स्वतंत्र असो वंश ना. हांच्यांतले चडशे लोक द्रविडी, मैथिली आनी काव्यकुब्ज आदी ब्राह्मणांतलेच आसात. देवपुजा, देवळाचो सांबाळ आनी भोंवडेकारां कडल्यान दर्शन यात्रा सारके विधी करून घेवप हो तांचो मुखेल वेवसाय. अशें करून तांकां दक्षिणा मेळटा आनी तिचेर ते आपलो निर्वाह चलयतात. देवस्थानाखातीर नेमून दिल्ल्यो कांय जमनी आशिल्ल्यो हांचो लाव हे ब्राह्मण घेतात.

– कों. वि. सं. मं.

**पंडित, माधव वामन :** (जल्म : २४ एप्रिल १९३५, ओपा - खांडेपार, फोंडें).

राष्ट्रीय पुरस्कार फावो जाल्लो एक आदर्श शिक्षक आनी सुटकेझुजारी.



त्या काळांत गांवांत शिक्षणाची फावो ती सोय नाशिल्ल्यान ताका पुण्याक वचून आपलें शिक्षण पुराय करचें पडलें. ताणें मॅट्रिके मेरेन शिक्षण पुराय केलें. तेचपरीन ताणें एस. टी. सी. आनी हिंदी भाशेचोय अभ्यास केलो. शिकता आसतना नामनेचो संगीतज्ञ आनी हार्मोनियम वादक डॉ. नारायणराव मारूलकर हाचो ताका आदार मेळ्ळो. ताणें कै. शंकरराव लिमये आनी खाँसाहेब मेहबूब खाँ हांचे कडल्यान तबला वादन आनी साथसंगतीचें शिक्षण घेतलें. फाविल्ल्या वेळांत तो जायतीं कामां करून लोकांक आदार दितालो. शाळेंत ताणें एक बरो 'खेळगडो' म्हणून नामना मेळयल्ली. विद्यार्थी अवस्थेंतूच ताका तबल्याक साथ करपी एक बरो कलाकार म्हणून नामना मेळ्ळी.

त्या काळांत गोंयांत सगळेकडेन सुटके चळवळीचें वारें पातळिल्लें. तेन्ना माधव पंडिताची देशभक्ती उचांबळून आयली आनी तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' कमिटीचो वांगडी जालो (१९५९-१९६९). १५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा सुटके चळवळीखातीर फंड जमोवपाक जो मोर्चो आयोजीत केल्लो तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो.

त्या वेळार बेळगांव हें गोंय सुटके चळवळीचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. माधव पंडित थंय गेलो आनी ताणें सुटकेझुजारी पिटर आल्वारीश आनी सिंधुताई देशपांडे हांचेवांगडा गोंय झुजाच्या वेगवेगळ्या केंद्रांक भेट दिली. १६ सप्टेंबर १९५४ दिसा 'तेरेखोल दिसा' निमतान त्या किल्ल्याचेर मोर्चो घडोवन हाडिल्लो, तातुंतूय ताणें वांटो घेतलो. तेन्ना पोलिसांनी ताका अटक केली. पुर्तुगेजांच्या लस्करी न्यायालयान ताका तीन वर्सां खर ख्यास्त फर्मायली. ८-१० म्हयने पणजेच्या 'मानिकोम' हॉस्पिटलाचे बंदखणींत ख्यास्त भोगले उपरांत रेयश मागूशचे बंदखणींत ताची रवानगी जाली. १९ जानेवारी १९५८ दिसा आंतरराष्ट्रीय ॲमनॅस्टी संघटनेच्या यत्नांक लागून झुजाऱ्यांची सुटका जाली तातूंत माधव पंडिताचोय आस्पाव आशिल्लो. तरीय पूण ताका म्हयन्यांतल्यान एक फावट लागसल्ल्या पुलीस ठाण्याचेर हजेरी लावंची पडटाली.

१९५८त तो सावयवेरेंच्या श्री लक्ष्मीनारायण विद्यालयांत शिक्षक म्हणून काम करूंक लागलो. फुडें १९५९ ते १९६२ ह्या काळांत ताणें पुण्याक वचून शिक्षकी वेवसायाखातीर प्रशिक्षण घेतलें. उपरांत १९६२ त ताची महिला आनी नूतन मराठी विद्यालयांत 'हिंदी शिक्षक' म्हणून नेमणूक जाली.

उपरांतच्या काळांत ताणें गोंयांत राष्ट्रभाशा प्रचाराचें काम नेटान चालू दवरलें. १९६५-६६त महाराष्ट्र राष्ट्रभाशा सभेच्या नियामक मंडळाचेर ताची नेमणूक जाली. गोंय सरकारान तशेंच केंद्र सरकारान ताच्या राष्ट्रभाशा प्रचार क्षेत्रांतल्या मोलादीक वावराची नोंद घेवन १९७७ वर्सा भारत सरकाराचे हिंदी सल्लागार समितीचेर ताची नियुक्ती केली.

ताणें हिंदींतल्यान जायतें लिखाण केलें. ताचे लेख गोमंतक राष्ट्रभाशा विद्यापिठाच्या 'गोमांचल' ह्या त्रैमासिकांतल्यान तशेंच 'संगीतकला विहार' आनी दिल्ली प्रशासनाच्या 'दिल्ली' ह्या मासिकांत उजवाडाक आयल्यात. 'गोमांचल'च्या संपादक मंडळाचेरय ताणें म्हत्वाचो वावर केला. तेभायर 'सॅकंडरी एज्युकेशन इन् गोवा' ह्या त्रैमासिकाचें संपादनूय ताणें केल्लें. ताणें १९८४त 'गोव्यातील माध्यमिक शिक्षण' हो मराठी ग्रंथ बरोवन उजवाडाक हाडलो. ताच्या ह्या ग्रंथाक गोमंतक विद्या निकेतनाचो पुरस्कार मेळ्ळा.

१९६४त मडगांवां 'स्वरमंच' हें संगीत विद्यालय स्थापन करपांत तेचपरी गोवा कला अकादमी, कला अकादमीचें संगीत म्हाविद्यालय सुरू करपांत ताचो म्हत्वाचो वांटो आसा. गोवा माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शिक्षण मंडळाच्या 'बोर्ड ऑफ स्टडीस' हे समितीचेर ताणें काम केलां. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला. ५ सप्टेंबर १९८९ ह्या दिसा ताका तेन्नाचे उपराष्ट्रपती शंकर दयाळ शर्मा हाचेकडल्यान 'राष्ट्रीय अध्यापक पुरस्कार' फावो जालो.

– कों. वि. सं. मं.

**पंडित, रघुनाथ विष्णू :** (जल्म : ६ एप्रिल १९१७, रायबंदर-गोंय; मरण : २३ सप्टेंबर १९९०, पणजे).

नामनेचो कवी. ताचें प्राथमिक शिक्षण पाळें, शिरदोन हांगा जालें.



ताणें बी.एस्सी. आनी बी.ए. मेरेनचें शिक्षण पुण्यांत घेतलें. आठ भयणींचो तो व्हडलो आनी एकटोच भाव. १९४२त ताणें भारत छोडो आंदोलनांत भूंयगत कार्यकर्तो म्हणून काम केलें. त्यावेळार ताणें कांय मुखेल सत्याग्रहींचीं चरित्रां बरोवन तीं उजवाडायलीं. १९४५त ताणें 'गोंय छोडो' ह्या विशयाचेर पंडित नेहरू आनी महात्मा गांधीच्यो मुलाखती घेवन छापून हाडल्यो. ताचो परिणाम म्हणून भारतभर हो विशय पावलो. १९४६त ताणें

पुण्यांत थंय रावतल्या गोंयांतल्या क्रिस्तांव शिकपी भुरग्यांची ज्योकींम डायस हाच्या फुडारपणाखाल 'गोवन कम्युनिटी' नांवाची संघटना स्थापन केली. २९ सप्टेंबर १९४६ दिसा ताणें डॉ. राम मनोहर लोहिया हाका गोंयचे दुसरे भेटेंत सांगात दिलो आनी त्याच दिसा कुळेच्या पोलिस स्टेशनामुखार सत्याग्रह केलो. त्यावेळार ताका देड म्हयन्याची बंदखण फाव जाली. उपरांत तो बेळगांवां गेलो आनी थंय सावन १९४६-४८ मेरेन ताणें गोंय सुटकेचो वावर चलयलो.

१९५०त तो मुंबय गेलो आनी थंय ताणें 'भारती' हें मराठी म्हयनाळें सुरू केलें. १९५४ आनी १९५६ ह्या वर्सा ताका परत बंदखण जाली.

तो एक बऱ्यांतलो छायाचित्रकार आशिल्लो. ताणें महात्मा गांधीवांगडा ताचे पक्षांत छायाचित्रकार आनी पत्रकार म्हणून काम केलां. त्या काळांतल्या भारतांतल्या मुखेल इंग्लीश तशेंच हेर नेमाळ्यांनी ताचे फोटो उजवाडाक येतालो. ताणें गांधीजीच्या फोटवांचो एक संग्रह उजवाडायला.

१९५२ वर्सासावन ताणें कोंकणीतल्यान बरोवंक सुरवात केली. १९६३ वर्सा ताचे पांच काव्यसंग्रह उजवाडाक आयले. हे काव्यसंग्रह अशे – 'आयलें तशें गायलें', 'म्हजें उतर गावड्याचें', 'उरतलें तें रुप धरतलें', 'धर्तरेचें कवन' आनी 'चंद्रावळ'. हाचेपयली ताणें १९४५त 'गांधीजी' आनी १९४६त 'नॅशनल लिडर्स' हीं इंग्लीश पुस्तकां उजवाडाक हाडिल्लीं. फुडें ताचीं ल्हारां, रेवेंतलीं पावलां, नाच रे मोरा, मोगाचे आवंडे, चारां आनी दर्या गाजोता हीं पुस्तकां उजवाडाक आयलीं.

ताणें 'स्त्रीधन' हें लोकवेदावयलें पुस्तकय बरयलां. हाचेभायर ताणें भुरग्यांखातीरय गोड गोड काणयो भाग १ आनी २, भुरग्यांल्यो काणयो, रामायण, महाभारतांतल्यो कथा अशा साहित्याची निर्मिती केली. शेखराची डायरी हें ताणे ताच्या पुताच्या भुरग्यापण्यांतल्या उलोवपाचें संकलन करून उजवाडायलां. ताचें साहित्य इंग्लीश, हिंदी, कन्नड, पुर्तुगेज आनी हेर भासांनी अणकारीत जालां. 'दर्या गाजेता' ह्या ताच्या पुस्तकाक साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जाला. हाचेभायर 'कला अकादमी पुरस्कार' आनी 'गोवा सरकार राज्य पुरस्कार' ताका मेळ्ळ्यात. १९८२त भारत सरकारान ताका पद्मश्री दिवन ताचे साहित्यसेवेचो भोवमान केलो.

ताका जायते आंतरराष्ट्रीय पुरस्कार फाव जाल्यात. १९५७त ताका युनायटेड नॅशनस् डे इंटरनॅशनल ॲवॉर्ड ॲण्ड रिझल गोल्ड मेडल (फिलिपायन्स) हो पुरस्कार मेळ्ळो. १९६९त ताका वर्ल्ड कॉंग्रेस ऑफ पोएटस् हाणीं डिप्लोमा ऑफ ॲप्रेसिएशन फोर द कलेक्शन ऑफ पोएमस्' हो पुरस्कार दिलो. हाचेभायर ब्राझील, फिलिपायन्स आनी यु.एस.ए. हाणीं भोवमानाची डॉक्टरेट ही पदवी दिली.

डॉ. र. वि. पंडित हाची कविता पुराय कोंकणी कवितेक एक आगळेंच वळण दिता. मुक्त छंदांत आयिल्ली ही कविता गोंयचे जिणेचें वेंचीक आनी अचूक चित्रण करता. गोंयचे समाजजिणेचें वेधक चित्र उबें करता. कवितेवरवीं ताणें गोंयांतल्या सामान्य मनशाचें चेपतलें चरित्र तशेंच चेपतल्याचें चरित्र उक्तें केलां. सैमांतल्या रुपकांच्या माध्यमांतल्यान ताणें आपले कवितेक जिविताचे-धर्तरेचें कवन गावपाक लायलें.

लोकवेदाचो वापर करून ताणें कवितेक नवी अभिव्यक्ती दिली. अशे तरेन पुराय गोंय तशेंच पुराय कोंकण आनी मनीस हो ताचे कवितेचो केंद्रबिंदू जालो. ताची कविता कोंकणी प्रदेश सोडून कन्नड, हिंदी, पुर्तुगेज आनी इंग्लीश वाचकांक लेगीत भूल घालून गेली हें ताचें खाशेलपण.

– रमेश भं. वेळुस्कार



**पंडित, विजयालक्ष्मी :** (जल्म : १८ ऑगस्ट १९००, अलाहाबाद; मरण : १९९०).

भारतीय स्वातंत्र्यलढ्यांतली कार्यकर्ती आनी संयुक्त राष्ट्रसंघांतले आमसभेची पयली बायल तशेंच पयली आशियाई अध्यक्षा.



तिचें कुळाराचें नांव स्वरुपकुमारी. बापायचें नांव मोतीलाल नेहरू आनी आवयचें नांव स्वरुपराणी. पंडित जवाहरलाल नेहरू हाची ती भयण. १९२१ वर्सा महाराष्ट्रांतलो नामनेचो वकील रणजित सीताराम पंडित हाचेकडेन तिचें लग्न जालें. चंद्रलेखा, नयनतारा आनी ऋतुविलासा ह्यो तिच्यो तीन चलयो. नयनतारा सहगल ही लेखिका म्हणून नामनेक पावल्या.

बापूय मोतीलाल नेहरूचो अस्तंती विचारांकडेन आशिल्लो कल आनी आवयची भारतीय संस्कृतीवयली निश्ठा अशा वातावरणांत तिचें भुरगेपण गेलें. इंग्लीश अध्यापकांकडेन घरांतूच तिचें मुळावें शिक्षण जालें. फुडें कांय काळ फुडल्या शिक्षणाखातीर ती स्विट्झर्लंडांत आशिल्ली. बापूय आनी भाव राजकारणांत आशिल्ल्यान घरांतूच तिका राजकारणाचे धडे मेळ्ळे.

असहकाराचे चळवळींत विजयालक्ष्मीन वांटो घेतलो आनी तिका एका वर्साची बंदखण भोगची पडली. तेन्नासावन तिचे राजकीय जिणेक सुरवात जाली. १९३४ वर्सा ती अलाहाबाद नगरपालिकेंत वेंचून आयली. १९३६ वर्सा तिची त्या वेळच्या संयुक्त प्रांताचे विधानसभेचेर वेंचणूक जाली आनी रोखडीच १९३७ वर्सा ती स्थानिक स्वराज्य आनी भलायकी खातें हांची अध्यक्षा जावपाचो मान मेळ्ळो. १९४०-४२ त ती अखिल भारतीय परिशदेची पयली बायल मंत्री जाली. उपरांत 'भारत छोडो' आंदोलनांत तिणें वांटो घेतलो आनी १९४२ वर्सा तिका अटक जाली. पूण भलायकी इबाडिल्ल्यान णव म्हयन्यांनी तिची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९४३ वर्सा तिणें बंगालच्या दुश्काळ निवारणाच्या कामांत खूब आदार केलो. १९४४ वर्सा दम्याच्या दुयेंसान रणजित पंडित हांकां मरण आयलें. हें दुख्ख विसरपाखातीर तिणें दोन वर्सां अमेरिकेंत व्याख्यानां दिलीं. भारतांत परत येतकूच परतून तिका स्थानिक स्वराज्य आनी भलायकी खात्याचें मंत्रीपद मेळ्ळें. १९४६ वर्सा संविधान समितीची वांगडी आनी संयुक्त राष्ट्रांतल्या प्रतिनिधी मंडळाची मुखेली म्हणून वेंचणूक जाली.

१९४७, १९४८, १९५२, १९५३ आनी १९६३ ह्या वर्सांनी संयुक्त राष्ट्रांनी भारतीय शिश्टमंडळाचें फुडारपण केलें. १९५३ वर्सा आमसभेची अध्यक्षा म्हणून विजयालक्ष्मीची निवड जाली. रशिया (१९४९), अमेरिका (१९५१), ग्रेट ब्रिटन (१९५४ ते १९६२) ह्या देशांनी भारताची राजदूत म्हणून तिणें काम केलें. १९६२ तें ६३ ह्या वर्सांनी ती महाराष्ट्र

राज्याची राज्यपाल आशिल्ली. नेहरूच्या मरणाउपरांत (१९६४) ती फुलपूर मतदारसंघांतल्यान लोकसभेचेर वेंचून आयली. १९६७ वर्साय ती परतून लोकसभेचेर वेंचून आयली पूण १९६८ वर्सा तिणें आपले खासदारकीचो राजिनामो दिलो.

१९७७ वर्साचे वेंचणुकेंत तिणें काँग्रेसीआड भुमिका आपणायली आनी आणिबाणीचेर कडक टिका केली.

भारतीय तशेंच विदेशी विद्यापिठांनी तिका डॉक्टरेट ही पदवी दिवन, तिचो भोवमान केला. तिची संसदपटू तशीच नामनेची उलोवपी म्हणून नामना आसा.

तिणें कांय लिखाणूय केलां. 'सो आय बिकेम ए मिनिस्टर' (१९३९), 'प्रिझन डेस' (१९४६), 'द रोल ऑफ विमॅन इन मॉडर्न वर्ल्ड' (१९५७) आनी 'द इव्होल्युशन ऑफ इंडिया' (१९५८) हीं तिचीं कांय मुखेल पुस्तकां. 'ए स्टडी ऑफ नेहरू' ह्या पुस्तकांतलो 'फॅमिली बाँड' हो तिचो लेख उल्लेख करपासारको आसा.

– कों. वि. सं. मं.

## पंडित, विष्णुशास्त्री परशुराम : (जल्म : इ. स. १८२७, सातारा; मरण : इ. स. १८७६).

मराठी ग्रंथकार, वृत्तपत्रकार आनी समाजसुदारक. सातान्याचो नामनेचो विद्वान राघवेंद्राचार्य गजेंद्रगडकर आनी ताचो पूत नारायणाचार्य हांचेकडेन ताणें संस्कृत, न्याय आनी व्याकरण ह्या शास्त्रांचो अभ्यास केलो. उपरांत १८४५ वर्सा तो इंग्लीश शिक्षणाखातीर पुण्याक गेलो. १८४८ वर्सा ताणें सरकारी शिक्षण खात्यांत नोकरी धरली आनी थंय शिक्षक, अणकारपी, अणकार परीक्षक अशीं कामां केलीं. १८६४ वर्सा ताणें आपले सरकारी नोकरेचो राजिनामो दिलो आनी मुंबयच्या 'इंदुप्रकाश' ह्या समाजीक सुदारणावादी खबरांपत्राचो तो संपादक जालो. बालविवाह, पुनर्विवाह, केशवपन, जरठकुमारीविवाह ह्या प्रस्नांचेर ताणें आपले विचार स्पश्टपणान मांडले. तेखातीर ताणें पुर्विल्ल्या धर्मग्रंथांचोय अभ्यास केलो. पुनर्विवाहाचो फकत पुरस्कार करून तो रावलोना, एके विधवेकडेन लग्न जावन स्वता कट्टर सुदारक आशिल्ल्याचें ताणें दाखोवन दिलें. इ. स. १८६५ वर्सा ताणें बंगाली समाज सुदारक विद्यासागर हाच्या विधवाविवाहाचो पुरस्कार करपी पुस्तकाचो मराठी अणकार केलो. त्या काळांत विधवाविवाह पुरस्कर्त्यांची संघटना नाशिल्ली म्हणून विष्णुशास्त्रीन, मुंबयंत १४ डिसेंबर १८६५ दिसा 'विधवाविवाह मंडळा'ची स्थापणूक केली.

खबरांपत्रासांगाता विष्णुशास्त्रीन व्याख्यानां दिवनूय विधवाविवाहाचो खूब प्रचार केलो. तो एक प्रभावी वक्तो आशिल्लो. हिंदू धर्म हो ऋषीमुनींनी बरयल्ल्या धर्मग्रंथांतल्यान निर्माण जाला. तेन्ना तातूंत विधवाविवाह सारके अमानुष आनी अन्यायी निर्बंद आसुंकूच शकनात असो ताचो युक्तिवाद आशिल्लो. १८७० वर्सा पुण्याक शंकराचार्याचे अध्यक्षतायेखाला जाल्ल्या पुनर्विवाहाविशींच्या वादांत वांटो घेवन, ताणें आपले साधार आनी तर्कशुध्द विचार मांडिल्ले. ह्या विशयाचेर ताणें दिल्लीं व्याख्यानां, १८७० वर्सा पुस्तकरुपान उजवाडा आयल्यांत. विष्णुशास्त्रीक 'महाराष्ट्राचो विद्यासागर' अशें म्हण्टात.

ताच्या हेर ग्रंथांनी मॅकडॉनल्ड हाणें बरयल्ल्या 'क्रोनिकल ऑफ नाना फडनवीस' ह्या आनी हेर कांय ग्रंथांच्या आदारान बरयल्ली 'नाना फडणवीस हाची संक्षिप्त बखर' (१८५९), मरे हाच्या 'हिस्टरी ऑफ ब्रिटीश इंडिया' हाच्या १० ते १४ प्रकरणांचेर आदारीत 'हिंदुस्थानाचो इतिहास' (१८६१), 'इंग्लीश-मराठी कोश' (१८६४), 'संस्कृत आनी महाराष्ट्र धातुकोश' (१८६५) हांचो आसपाव जाता. शंकर पांडुरंग पंडित हाच्या आदारान ताणें तुकारामाच्या अभंगांच्यो गाथा दोन खंडांनी संपादल्यात (१८६९, १८७३).

विष्णुशास्त्रीन विधवा विवाहाच्या कार्याचेर चड भर दिलो तरी हेर समाजीक सुदारणांनीय फुडाकार घेतिल्लो. जातीभेदाच्या निर्मुलनाखातिरूय ताणें खूब यत्न केले. उद्देगधंदयांचें म्हत्व, ज्ञानाचें श्रेष्ठत्व, सोरो आनी जुगार ह्या व्यसनांचे वायट परिणाम ह्या समाजहिताच्या विशयांचेर विष्णुशास्त्रीन लिखाण केलें आनी व्याख्यानां दिलीं. परदेशी वस्तूंची आयात, देशी धंद्यांक लागिल्ली देंवती कळा, कारागिरांची दुर्दशा अशा अर्थीक आनी उद्देगधंदयांच्या प्रस्नांकडेनूय ताणें समाजाचें लक्ष ओडून घेतलें.

– कों. वि. सं. मं.

## पंडिता, रमाबाई : (जल्म : २३ एप्रिल, १८५८ गंगामूळ, मंगळूर; मरण : ५ एप्रिल १९२२).

महाराष्ट्रांतली एक सुदारक, विद्वान बायल मनीस. डोंगरे नांवाच्या चित्पावन ब्राह्मण कुळांत रमाबाईचो जल्म जालो. तिच्या बापायचें नांव अनंतशास्त्री आनी आवयचें नांव लक्ष्मीबाई अशें आशिल्लें. दोगांय संस्कृत पंडित आशिल्लीं. गंगा मूळाक अनंत



शास्त्रीन आश्रम बांदलो. थंय तो विद्यार्थ्यांक संस्कृत भास तशेंच न्याय आनी व्याकरण हीं शास्त्रां शिकयतालो.

अनंतशास्त्रीन आपले बायलेक संस्कृत भाशा, व्याकरण आनी न्याय हीं शास्त्रां शिकयलीं. हें ताच्या घरच्यांक, शेजान्यांक मानवलेंना. ताका लागून तांकां खूब त्रास सोंसचे पडले. ह्या त्रासांक वाजेवन, ताणीं तीर्थयात्रेचें निमित करून घर सोडलें. त्या वेळार रमाबाई फकत स म्हयन्यांची आशिल्ली. तीर्थयात्रा करतना, रमाबाई पंदरा वर्सांची जायमेरेन, हे भोंवडेंतूच बापायन तिका संस्कृत काव्यां आनी शास्त्रां शिकयलीं. पंदरा सोळा वर्सांनी हें कुटूंब जेन्ना मद्रास इलाख्यांत गेलें, तेन्ना थंय व्हड दुकळ पडिल्लो. त्या दुकळांत रमाबाईचीं आवय-बापूय आनी व्हडले भयणीक मरण आयलें. तरी लेगीत रमाबाई आनी तिच्या व्हडल्या भावान तीर्थयात्रेचें व्रत चालूच दवरलें. तीन-चार वर्सांमदीं ताणीं चार-पांच हजार मैलांची पांयांनी भोंवडी केली. हे भोंवडेंत दोगांय पुराण सांगून संस्कृतांत व्याख्यानां दितालीं. कलकत्ता हांगाच्या ब्राह्मो समाजाच्या मुखेल्यांनी

आनी कलकत्ता विश्वविद्यालयांतल्या पंडितांनी तांचे विद्येचो आदर केलो. तांकां दोगांकूय कलकत्ता विश्वविद्यालयांत आपोवन तांचो भोवमान केलो आनी रमाबाईक 'पंडिता सरस्वती' अशी उपाधी दिली. उपरांत कलकत्त्याच्या राबित्यांत रमाबाईच्या भावाक मरण आयलें.

इ. स. १८८० वर्सा रमाबाईन बिपिन बिहारीदास मेधावी ह्या शुद्र जातीच्या वकिलाकडेन लग्न केलें. पूण लग्नाउपरांत एकुणीस म्हयन्यांनी कॉलराच्या दुयेंसान ताका मरण आयलें. तांकां मनोरमा नांवाची चली जाली. उपरांत रमाबाई पयलीं चेन्नईक आनी थंयसावन पुण्याक आयली. पुण्याक येतकच न्यायमुर्ती रानडे, मोडक, डॉ. भांडारकर ह्या प्रार्थना समाजाच्या मुखेल्यांनी 'आर्य महिला' नांवाची संस्था स्थापन करून पंडिता रमाबाईक पुराणां, प्रवचनां सांगपाक एक व्यासपीठ निर्माण करून दिलें. त्याच सुमाराक हंटर हाचे अध्यक्षतायेखाल सरकारी विद्येविशीं चवकशी-समिती नेमिल्ली. ते समितीमुखार रमाबाईन गवाय दिली. तातूंत बायलांक वैजकी शिक्षणाची सोय आसची अशा मताचो तिणें पुरस्कार केलो. ज्ञान संपादन करून आनी विद्या शिकून बायलांनी आपली उदरगत करून घेवंची आनी स्वातंत्र्य मेळावंचें अशें रमाबाईचें स्पश्ट मत आशिल्लें. रमाबाईची ही गवाय हंटर सायबाक इतली मानवली की ताणें इंग्लंडांत रमाबाईविशीं एक व्याख्यान दिलें.

बालविवाहाचे अनिश्ट परिणाम, भारतीय बायलांचें अज्ञान आनी भोळो समज हांचेर उजवाड घालपी 'उच्चवर्णीय हिंदू बायलो' हो ग्रंथ तिणें बरयलो.

फुडें भारतांत रावन आपल्याक इंग्लीश शिक्षण घेवप शक्य जावचें ना म्हणून ती आपले चलयेसयत इंग्लंडाक गेली. थंय तिका क्रिस्ती धर्मविशीं ओड निर्माण जाली आनी सप्टेंबर १८८३ वर्सा तिणें आनी तिची धूव मनोरमा हिणें बाप्तिस्मा घेवन क्रिस्तांव धर्म आपणायलो. इंग्लंडांत आसतना, भारतांत येवपाक सोदपी मिशनरी बायलांक मराठी शिकयताली. उपरांत इंग्लंडांतल्या चेस्टनहॅम कॉलेजींत संस्कृत भाशेची अध्यापिका म्हणून तिची नेमणूक जाली.

इंग्लंडांतल्यान उपरांत ती अमेरिकेक गेली. बॉस्टन शारांत इ. स. १८८७ वर्सा 'रमाबाई असोसिएशन' नांवाची संस्था स्थापन केली. तेखातीर निधी एकठांय केलो. बालविधवांखातीर स्वतंत्र शाळा काडची हो हे संस्थेचो हेत आशिल्लो. भारतांतल्या बालविधवांच्या प्रस्नांविशीं, अमेरिकेंतल्या लोकांमदीं जागृताय घडोवन हाडपाखातीर तिणें 'हाय कास्ट हिंदू विमॅन' नांवाचें एक पुस्तक बरयलें.

इ. स. १८८९ वर्सा ती भारतांत परतून आयली आनी मुंबयंत 'शारदा सदन' नांवाचे संस्थेची स्थापणूक केली. दुसऱ्या वर्सा ही संस्था पुण्याक हालयली. हे संस्थेंत क्रिस्तांव धर्माचो प्रत्यक्ष उपदेश करप ना वा त्या धर्माचें क्रियाशील प्रदर्शन करप ना, अशें तिणें थरयलें. पूण रमाबाईचे प्रार्थनेचो आनी क्रिस्ती विचारांचो प्रभाव सदनांतल्या हेर चलयांचेर पडलो. ताणीय क्रिस्तांव धर्म आपणावपाचें थरयलें तेन्ना त्या चलयांच्या आवय-बापायन खूब बोवाळ घालो. सुदारक वर्गानूय संस्थेच्या वांगडीपणाचे सदस्यत्वाचे राजिनामे दिले. पूण रमाबाईन आपलें काम चालूच दवरलें.

पुण्या लागसारच्या केडगांवांत तिणें मिशनाची स्थापणूक करून ताका 'मुक्ती सदन' अशें नांव दिलें. तातूंत शारदासदन आनी कृपासदन ह्या दोन संस्थांचो आस्पाव आशिल्लो. ह्या आश्रमांत तिणें कितलेशेच उद्देग सुरू केले. नर्सिंग, छापखानो, साडयो विणप, ऊंस, तेल, दुदाचे जिन्नस अशा वस्तूंचें उत्पादन सुरू केलें. तशेंच समाजीक कार्यांनीय तिणें खूब काम केलें. हिंदी नॅशनल कॉंग्रेसीक इ. स. १८८९ वर्सा पयलीच बायल प्रतिनिधी धाडपाक तिणें यत्न केले. संमतीवयाच्या विधेयकाक बायलांचो तेंको मेळोवपाखातीर तिणें मुंबय आनी पुण्याक बायलांच्यो बसका घेतल्यो. तेविशींचो एक अर्ज तिणें वायसरॉयाकडेन धाडलो.

रमाबाईचें इंग्लीश, मराठी, कन्नड, गुजराती, बंगाली, हिंदी, तुळू आनी संस्कृत ह्या भाशांचेर प्रभुत्व आशिल्लें.

केडगांवाक तिणें 'मुक्ति प्रेयर बॅल' हें तिम्हयनाळें सुरू केलें. 'द टॅस्टीमनी' हो आपजिणेचेर ग्रंथ बरयलो. इ. स. १९१९ वर्सा तिका ब्रिटीश सरकारान 'कैसर हिंद' भांगरा पदक दिलें. सदचीं कामां सांबाळून रमाबाईन मूळ हिब्रू आनी ग्रीसी बायबला वयल्यान, बायबलाचो मराठी अणकार केलो. हें काम चालू आसतनाच २४ जुलय १९२१ वर्सा तिचे धुवेक मरण आयलें. धुवेच्या मरणान रमाबाईक धक्को बसलो आनी तातुंतूच खचून गेल्यान रमाबाईक मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**पंढरपूर :** सोलापूर जिल्ह्यांतल्या ह्याच नांवाच्या तालुक्याचें मुखेल ठिकाण आनी हिंदू लोकांचें एक मुखेल तिर्थक्षेत्र. तें सोलापूरचे अस्तंतेक ७१ किमी.चेर भीमा न्हंयेच्या उजवे देगेर, समुद्रथरासावन ४५० मी. उंचायेचेर आसा.



पंढरपूरांत पांडुरंगाचें नामनेचें देवूळ आसा. ताचेवयल्यानूच 'पंढरपूर' नांवाची उत्पत्ती जाली अशी खूब मतां आनी वाद आसात. पंढरपूराक पंढरपूर, पांडरंगपल्ली, पंडरंगे, पौंडरीकक्षेत्र, फागनिपूर, पंडरीपूर,

पांडुरंगपूर, पंढरी अशीं विंगड विंगड नांवां आसात. पंढरपुराचो 'पांडरंगपल्ली' ह्या नांवान सगळ्यांत पोरणो उल्लेख राष्ट्रकूट राजा अविधेय हाणें नोव्हेंबर ५१६ वर्सा जयद्विठ्ठ नांवाच्या ब्राह्मणाक दिल्ल्या तांब्यापटांत मेळटा.

सोळखांबी मंडपाच्या पूर्वद्वारामुखावयले फातरी पाटयेचेर तिनूय वटांनी देवनागरी लिपींत आनी संस्कृत तशेंच कानडी भाशांतल्या शिलालेखांत पंढरपुराक पंडरंगे अशें म्हळां. बेळगांवलागच्या बेंडेगिरी गांवाच्या संस्कृत तांब्यापट्यांत पंढरपूराक पौंडरीकक्षेत्र म्हळां. रा. ज. पुरोहित आनी डॉ. रा. गो. भांडारकर अनुक्रमान पुंडरीकपूर आनी पांडुरंगपूर हांचेपसून पंढरपूर हो शब्द आयलो अशें मत मांडटात. चवद्यांयशींच्या शिलालेखांत (१२७३) पंढरपूराक फागनिपूर म्हळां, जाल्यार चतुर्वर्गचिंतामणी ग्रंथांत पंढरपूराक पौंडरीक अशें म्हळां.

१८५८त हांगा नगरपालिका स्थापन जाली. वीज, उदकं, अग्निशामक सेवा हांची वेवस्था हांगा आसा. जात्रेच्या दिसांनी नितळसाण आनी भलायकी राखप हांचेर चड भर दितात. हांगा विज्ञान, वाणिज्य आनी वाङ्मय फांट्यांचीं म्हाविद्यालयां, कांय माध्यमिक शाळा आनी जायत्यो मुळाव्यो शाळा वाचनालयां आनी चल चित्रघरां आसात.

देवळाभोंवतणचे पोरणे वस्तींत अशीर फरसबंदी बोळ आसात. पूण नवे वस्तींत रूंद रस्ते, व्हड इमारती आनी सेना महाराज, दामाजीपंत, गाडगे महाराज, वंकटस्वामी, मुक्ताबाई, नाथ महाराज, रोहिदास, तनपुरे महाराज, कैकाडी महाराज, घाटगे महाराज हांचे मठ आनी धर्मशाळा आसात. गोरक्षण, अनाथ बालकाश्रम, फाउंडलिंग होम, संस्कृत पाठशाळा, मिशन रुग्णालय ह्यो संस्था आसात. हांगा दिवाणी आनी फौजदारी न्यायालय आनी पोलीस ठाणें आसा. तशेंच कांय बँको आनी कृषीतर पतसंस्था आसात.

पंढरपूरांत मंगळारा दिसा बाजार भरता. तांदूळ, गंव, कापूस, तंबाकू, जर्दा, तपकीर, उजवाती, कांबळी हांचें व्हड प्रमाणांत दिवप घेवप जाता. जात्रेच्या दिसा गोरवां आनी कांबळी हांचो व्हड बाजार भरता. तशेंच बुको, ल्हायो, चिरमुल्यो, खण (कपडे), कांकणां, तुळशीमाळो, अष्टगंध ह्या वस्तूंचोय बरोच खप जाता.

विठ्ठलमंदिर हें पंढरपूरांतलें मुखेल देवूळ, ह्या देवळाफाटल्यान रुक्मिणीमंदिर आसा. लागींच सत्यभामा आनी राही हांच्यो कुडी आसात. चंद्रभागा न्हंयेचे देगेर इकरा घाट बांदल्यात. पुंडलिकाच्या देवळाचे दक्षिणेक सुमार १.२ किमीचेर विष्णुपद-वेणुनाद ही सुवात आसा. गांवाचे दक्षिणेक सुमार १.६ किमी.चेर गोपाळपूराक गोपालकृष्णाचें देवूळ आसा. तेभायर पंचमुखी मारुती, भुलेश्वर, पद्मावती (देवूळ आनी तळें), व्यास, अंबाबाई, लखूबाई, यमाई, जोतिबा, नगरेश्वर, सरकारवाडा महादेव, त्र्यंबकेश्वर, ताकपिठ्या विठोबा, कोटेश्वर, गोंदवलेकर राम, खाजगीवाले वाड्यांतलो विठ्ठल, रुक्मिणी आनी राधा हांच्यो भांगराच्यो मुर्ती, नामदेवमंदिर, शाकंभरी (बनशंकरी), मल्लिकार्जून, तांबडो मारुती, मुरलीधर, गारेचो महादेव, चंद्रभागा, दत्त, वटेश्वर महादेव, बेरीचो महादेव, काळो मारुती, चोफाळा (विष्णुपंचायतन), पान्यावयलो दत्त, बाभळ्याचो महादेव, अमृतेश्वर हीं आनी हेर कांय देवळां पंढरपूरांत आसात. हालीं कांय नवीं देवळां बांदल्यांत. कैकाडी महाराजांचो मठ पळोवपासारको आसा.

चंद्रभागेच्या रेंवटांत तुकाराम महाराजांचो वंशज भाऊसाहेब देहूकर हाची आनी गोविंदबुवा अंमळनेरकर, गोविंदबुवा चोपडेकर, भानुदास महाराज वेळारकर हांच्यो समाध्यो आसात.

आषाढी तशेंच कार्तिकी एकादशीक पंढरपुरांत जात्रा भरता. ह्या जात्रांक वारकरी लोक संतांच्या पालख्यांसयत व्हड संख्येन उपस्थिती लायतात.

– कों. वि. सं. मं.

**पंत गोविंदवल्लभ-१ :** (जल्म : १० सप्टेंबर १८८७, अलमोडा, उत्तर प्रदेश; मरण : ७ मार्च १९६१, दिल्ली).



भारतीय स्वातंत्र्यलड्यांतलो एक व्हड फुडारी. पंताचें मूळ घराणें महाराष्ट्रांतलें. पूण तांचे पुर्वज धाव्या शेंकड्यांत उत्तर प्रदेशांत गेले आनी थंयच स्थायीक जाले. गोविंदवल्लभाच्या बापायचें नांव मनोरथ पंत, तो जमीन महसूल खात्यांत नोकरी करतालो.

गोविंदवल्लभाचें मॅट्रिकेमेरेनचें शिक्षण अल्मोडाक जालें. फुडें १९०७ वर्सा तो अलाहाबादेच्या म्यूर सँट्रल कॉलेजींतल्यान बी.ए. जालो. १९०९ वर्सा तो एल्. एल्. बी. ची परिक्षा पयल्या क्रमांकान पास जाल्यान ताका लॅम्सडेज भांगरापदक फावो जालें.

१९०५ वर्साच्या बनारस काँग्रेस अधिवेशनाक तो हाजीर रावलो. १९०९ वर्सासावन ताणें नैनितालाक आपल्या वकिली वेवसायाक आरंभ केलो. ह्याच सुमाराक ताणें रासवळ जीण आनी राजनीत हातूंत वांटो घेवपाक सुरवात केली.

१९१६ वर्सा तो काँग्रेसीचो क्रियाशील कार्यकर्तो जालो. ह्याच वर्सा ताणें आपल्या प्रदेशांतल्या फाटसार वर्गांतल्या जाती-जमातींचे प्रस्न सोडोवन तांच्या समितींचो अभ्यास करपाखातीर 'कुमाऊं' परिशदेची स्थापणूक केली. कुमाऊँ प्रदेशांतले भौशीक चळवळींत वांटो घेवन ताणें भिकाऱ्यांची वेवस्था, मजुरांची सक्तीन भरती करप, रानांत रावपी लोकांचेर जावपी अत्याचार हे प्रस्न कुमाऊँ परिशदेवतीन हाताळ्ळे. अनुसुचीत जाती-जमातींच्या वाठारांत कुमाऊँ प्रदेशाचो आस्पाव केलो.

१९२३ वर्सा तो उत्तर प्रदेशाचे विधान परिशदेंत वेंचून आयलो. ह्याच वर्सा मोतीलाल नेहरू, चित्तरंजन दास हाणीं स्वराज्य पक्षाची स्थापणूक केली. ह्या पक्षाचो गोविंदवल्लभ सात वर्सां वांगडी आशिल्लो.१९२७ वर्सा तो प्रांतीक काँग्रेसीचो अध्यक्ष जालो. लखनौक सायमन आयोगाआड जाल्ल्या निदर्शनांनी जो लाठीहल्लो जाल्लो तातूंत जवाहरलाल नेहरू हाचेर जाल्लो बडयांचो प्रहार गोविंदवल्लभान आपल्या आंगार घेतलो. ताका लागून जीणभर ताका कंपवाताचें कायमचें दुखणें जालें.

१९३०-३२ ह्या वर्सांच्या सुमाराक महात्मा गांधीचे असहकार चळवळींत वांटो घेतिल्ल्यान दोन फावटीं बंदखण भोगची पडली.

१९३१ वर्सा तो अखिल भारतीय काँग्रेस कमिटीचे कार्यसमितीचो वांगडी जालो. उत्तर प्रदेशांत शेतवडीच्या मळार सुदारणा करपाखातीर गोविंदवल्लभाचे अध्यक्षतायेखाल एक समिती नेमली. तिचो अहवाल ताणें १९३२ वर्सा दिलो. ह्या ताच्या कामाक लागून १९३४त तो पार्लमँटरी काँग्रेसच्या संसदीय मंडळाचो चिटणीस जालो. उपरांत ताणें मध्यवर्ती कायदेमंडळांतले काँग्रेसचो उपनेतो म्हणून काम केलें. १९३७ ते १९३९ वर्सामेरेन तो उत्तर प्रदेशाचो मुखेलमंत्री आशिल्लो.

दुसऱ्या म्हाझुजा वेळार हेर काँग्रेस मंत्र्यांवांगडा गोविंदवल्लभानूय आपलो मंत्रीपदाचो राजिनामो दिलो. नोव्हेंबर १९४० वर्सा सत्याग्रहाच्या आंदोलनांत वांटो घेतिल्ल्यान ताका एका वर्साची बंदखणीची खर ख्यास्त भोगची पडली. १९४२ वर्साच्या ऑगस्ट म्हयन्यांत, 'छोडो भारत' आंदोलनांत वांटो घेतिल्ल्यान हेर नेत्यांवांगडा ताकाय अटक जाली आनी ताका अहमदनगरच्या किल्ल्यांत दवरलो. सुमार अडेज वर्सां बंदखणींत रावले उपरांत मार्च १९४५त ताची सुटका जाली.

जून, १९४५ वर्सा ताणें शिमला संमेलनांत वांटो घेतलो. मुस्लीम लीगाचे फुडारी महम्मद अली जिना हाचेखातीर ताणें काँग्रेस दलाचो प्रतिनिधी म्हणून काम केलें. उपरांत १९४६ वर्सा तो परतून उत्तर प्रदेशांत वेंचून येवन मुखेलमंत्री जालो. तो संविधान समितीचेर आशिल्लो. स्वातंत्र्याउपरांत वल्लभभाई पटेलाच्या मरणाच्या कांय वर्सां उपरांत जवाहरलाल नेहरून ताची केंद्रीय मंत्रीमंडळांत घर मंत्री म्हणून नेमणूक केली.

गोविंदवल्लभ जितल्या मोव सभावाचो तितलोच खंबीर आनी निश्चयी वृत्तीचो आशिल्लो. भारतांतल्या सगळ्यांत व्हडल्या राज्याचो, सगळ्यांत चड वर्सां तो मुखेलमंत्री आशिल्लो.

आपले कारकिर्दींत प्रशासन वेवस्थे वांगडा ताणें हेर बऱ्योच सुदारणा केल्यो. उत्तर प्रदेशांतली जमीनदारी पद्दत काडून ताणें जमीन सुदारणेचे कायदे केले.

हिंदी भाशेचोय ताणें खूब उध्दार केलो. शासकीय कार्यालयांतल्यान हिंदी भास वापरपाक सुरू केली. १९३८-३९ वर्सा ताच्या प्रोत्साहनान हिंदींतलो पारिभाशीक शब्दकोश तयार जालो. १९४८ वर्सा ताणें मुख्यमंत्री ह्या नात्यान देवनागरी लिपी सुदारून हिंदी टंकलेखन-यंत्र आनी टेलीप्रिंटर तयार करपाचे यत्न केले. गुरुकुल कांगडी, कन्या कुरुकुल, हिंदी साहित्य संमेलन, दक्षिण भारत हिंदी प्रचार सभा, राश्ट्रभाषा प्रचारसभा हीं विद्यापिठांचीं आनी संस्थांचीं परिक्षा प्रमाणपत्रां, सरकारी नोकऱ्यांखातीर गरजेचीं आसचीं, हेखातीर ताणें यत्न केले. हिंदी साहित्यका बृहत् इतिहास (१६ वांटे), हिंदी शब्दसागर, हिंदी विश्वकोश ह्या ग्रंथांचे निर्मितीखातीर गोविंदवल्लभाचीच प्रेरणा आशिल्ली.

केंद्रीय गृहमंत्रिपदाचेर आसतना केरळांतली कम्युनिस्ट राजवट, पंजाबी सुभा, आसामांतल्यो दंगली हे प्रस्न ताणें खुबूच कुशळटायेन हाताळ्ळे.

१९५७ वर्सा राश्ट्रपती राजेंद्र प्रसाद हाणें 'भारतरत्न' पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान केलो. प्रयाग, लखनौ आनी काशी विद्यापिठांनी ताका एल्‌एल्‌डी ही पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

## पंत गोविंदवल्लभ-२ : (जल्म : १८९८ रानीखेत, उत्तर प्रदेश, जि. अलमोडा).

हिंदी नाटककार, कथा-कादंबरीकार आनी कवी. ताचें भुरगेपण पंडिती वातावरणांत गेलें. व्हड भावाक लागून ताका साहित्याची गोडी लागली.

बनारसच्या सँट्रल हिंदू कॉलेजींत शिकतना शिक्षण अर्दवट सोडून ताणें असहकाराचे चळवळींत वांटो घेतलो. उपरांत ताडीखेत हांगाच्या 'गांधी आश्रमांत' कांय काळ शिक्षकाची नोकरी केली. उपरांत 'व्याकुल भारत' नाटक कंपनीकडेन ताचो संबंद आयलो आनी तेन्नासावन ताच्या नाटचलिखाणाक सुरवात जाली. राधेश्याम 'कथावाचक' ह्या नाटककारावांगडा रावून ताणें रंगमाचयेचो प्रत्यक्ष अणभव घेतलो. मुंबय वचून ताणें चलचित्रसृश्टीचोय अणभव घेतलो. पृथ्वी थिएटर्साखातीर ताणें 'अहंकार' नाटक बरयलें. दिल्लीक आकाशवाणीच्या संगीत-नाटक विभागांतूय ताणें कांय काळ काम केलें.

ताणें बरयल्ल्या पुस्तकांचीं नांवां अशीं –

**नाटकां** – कंजूसकी खोपडी (१९२१), वरमाला (१९२४), अंतःपुर का छिद्र (१९२५), राजमुकुट (१९३२), अंगूर की बेटी (१९३५), सुहाग बिंदी (१९४०), ययाति (१९४७), सुजाता, प्रेमयोगी.

**एकांकिका झेलो** – विषकन्या (१९५९), कथाझेलो : एकादशी (१९२४), संध्याप्रदीप (१९३१), फटा पत्र आनी लिलि.

**कादंबऱ्यो** – सूर्यास्त (१९२२), प्रतिमा (१९३४), तारिका (१९३४), मदारी (१९३६), तारों के सपने (१९३७), अनुरागिनी (१९४२), एक सूत्र (१९४४), अमिताभ (१९४५), नूरजहाँ (१९४५), मुक्ति के बंधन (१९४८), चक्रकांत (१९४८), प्रगति की राह (१९४८), यामिनी (१९५२), जलसमाधि (१९५३), नौजवान (१९५३), फॉरगेट मी नाट (१९५९), मैत्रेय (१९५९), पर्णा.

**काव्य** – आरती (१९१९).

– कों. वि. सं. मं.

## पंत, सुमित्रानंदन : (जल्म : २० मे १९००, कौसानी – उत्तर प्रदेश; मरण : २८ डिसेंबर १९७७, अलाहाबाद).

भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार फाव जाल्लो, हिंदी कवितेंतल्या छायावादी प्रवाहाचो मुखेल प्रवर्तक. ताचें मूळ नांव गुसाई दत्त, पूण ताणें काव्यलिखाणाखातीर हें टोपणनांव घेतलें. ताच्या भुरग्यापणांतच ताचे आवयक मरण आयलें. ताच्या बापायन आनी आज्जेनच ताका ल्हानाचो व्हड केलो. महाविद्यालयीन शिक्षण घेवपाखातीर ताणें बनारस हांगाच्या क्वीन्स



कॉलेजांत नांव घाल्लें. पूण असहकार चळवळीच्या प्रभावान ताणें शिक्षण अर्ध्यारच सोडलें. तरी ताचो स्वभाव सभाभीरू आनी एकांतप्रिय आशिल्ल्यान तो राजकारणापसून तसो पयसच आशिल्लो. संस्कृत, इंग्लीश आनी

बंगाली भाशा साहित्याचो ताका अभ्यास आशिल्लो. इंग्लीश काव्याचें तर ताणें खाशेलें परिक्षण केल्लें. १९५०-५७ ह्या काळांत ताणें आकाशवाणीचेर हिंदी विभाग मुखेली म्हणून आनी १९५८ उपरांत सल्लागार म्हणून काम पळेलें. ह्या काळांत ताका जायते भोवमान आनी पुरस्कार फाव जाल्ले.

१९१६ वर्सासावन ताणें कविता बरोवंक सुरवात केली. 'उच्छ्वास' (१९२०) आनी 'ग्रंथी' (१९२०) हे ताचे सुर्वेचे कवितांझेले. ताचो १९१६-२७ ह्या काळांतलो कवितांझेलो वीणा (१९२७) ह्या नांवान उजवाडाक आयलो. १९२८ वर्सा ताचो 'पल्लव' हो कवितांझेलो उजवाडा आयलो आनी ताका सुमाराभायर नामना मेळ्ळी. ताच्या ह्या कवितांझेल्यांक हिंदींत छायावादी काव्य म्हण्टात. ताचीं खाशेलपणां, गुणदोश, बळगें शीममेर हाचो मेळ दिसून येता.

शेंकड्यांनी वर्साची परंपरा लाबिल्ल्या व्रज हे काव्यभाशेआड ताणें खडी बोलीचो पक्ष मांडलो. तशेंच तिच्या पर्जळीत फुडाराची खात्रीय आपले काव्यरचने वरवीं पटोवन दिली. १९३२ ते १९४० ह्या काळांत ताचे गुजन (१९३२), युगान्त (१९३६), युगवाणी (१९३९), ग्राम्या (१९४०) हे कवितांझेले उजवाडा आयले.

फुडें उदय शंकर ह्या नामनेच्या नर्तका वांगडा ताणें भारतभर भोंवडी केली. योगी अरविंदबाबू हाचेकडेनय ताचो संबंद आयलो. ताच्या तत्त्वज्ञानान सुमित्रानंदनाच्या काव्याचेर बरोच प्रभाव पडलो. १९४६ उपरांतचें ताचें काव्य नवमानवतावादी जालें. स्वर्णकिरण (१९४७), स्वर्णधुलि (१९४७), युगपथ (१९४८), उत्तरा (१९४९), वाणी (१९५७) हे कवितांझेले मनशाच्या पर्जळीत फुडाराविशीं आनी ताच्या निमणें यश मेळोवपाच्या बळग्याविशीं कवीचो आशावाद उक्तायतात.

ताच्या 'कला और बूढा चाँद' (१९५७) ह्या झेल्यांतल्या कवितांचेर प्रयोगवादी रचनेचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. ताच्या ह्या कवितांझेल्याक १९६१ वर्सा साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फाव जालो. ताच्या 'लोकायतन' (१९६४) नांवाच्या महाकाव्याक भारत सरकाराकडल्यान खाशेलें इनाम फाव जालें. तशेंच १९३७-५७ ह्या काळांतल्या वेंचीक कवितांचो झेलो 'चिदंबरा' (१९५९) हाका १९६८ वर्सा भारतीय ज्ञानपीठाचो सर्वोच्च पुरस्कार फाव जालो. ह्या काळांतल्या भौतिक आनी आध्यात्मिक प्रगतीचें चित्र ह्या कवितांनी दिसून येता.

हाचेभार ताका सोव्हिएट लँड नेहरू पुरस्कार (१९६२), सन्मान डी. लिट् (विक्रम विद्यापीठ-१९६५ आनी गोरखपूर विद्यापीठ १९६९), हिंदी साहित्य संमेलना कडल्यान साहित्य वाचस्पती (१९६४) तशेंच नागरी प्रचारणी सभा आनी उत्तर प्रदेश सरकाराकडल्यान वेगवेगळे पुरस्कार ताका मेळ्ळे.

काव्याभायर ताणें काव्यरूपकां, नाटकां आनी कांय कथासंग्रह बरयले. ज्योत्स्ना (१९३४) - नाटक; रजतशिखर (१९५१), शिल्पी (१९५२), अलिमा (१९५५), सौवर्ण (१९५७) - काव्यरूपकां; पाँच कहानियाँ (१९३६) - कथासंग्रह; गद्यपथ - समिक्षात्मक ग्रंथ; साठ वर्ष - एक रेखांकन (१९६०) - आपजीण हें ताचें कांय खाशेलें साहित्य.

ताच्या कवितांवरवीं हिंदी काव्य समृद्ध जालें. भौतिकता आनी अद्यात्मिकता हांचेमदलें द्वैत पयस करून उंचेले नितीक आदर्श ताणें आपल्या काव्यांतल्यान सातत्यान मांडले. नवे विचार आनी नव्यो जाणविकायो उक्तो करपाचे नदरेन हो कवी सदाच प्रयत्नशील रावलो.

– कों. वि. सं. मं.

**पंप, महाकवी :** एक कन्नड महाकवी 'पम्प' हें नांव ताका कशें मेळ्ळें हाचेविशीं म्हायती मेळना. पूण 'हम्प' ह्या रुपांत हें नांव आजूय कर्नाटकांत मेळटा. 'आदिपंप' म्हणूनूय ताका वळखतात.

वेंगीमंडळांतल्या वेंगीपळू नांवाच्या गांवांत एका सधन आनी प्रतिश्ठीत ब्राह्मण घराण्यांत ताचो जल्म जालो. जातीन तो देवराय ब्राह्मण आशिल्लो. ताच्या बापायचें नांव अभिराम आनी गुरूचें नांव देवेंद्र आशिल्लें. त्या काळांतलें पद्दतीप्रमाण पंपाचें शिक्षण जाल्लें. ताच्या जल्माआदीं बापायन वैदिक धर्म सोडून जैन धर्म आपणायल्लो. पूण वेदांविशीं ताका अभिमान आशिल्लो. बापायचे हे वृत्तीचो पंपाचेर बरो परिणाम जालो. ताका लागून 'सर्वधर्मी समानत्व' पळोवपाची सम्यकदृष्टी ताका मेळ्ळी. वेदांच्या अध्ययना वांगडाच संस्कृत, प्राकृत, जैन धर्म, गायन-नाच, कला, अर्थशास्त्र, राज्यशास्त्र ह्या विशयांचोय ताणें खोलायेन अभ्यास केलो.

ताचो जल्म वेंगीमंडलांत जालो तरी ताची चडशी पिराय वयलुसीमेंत आनी बनवासीच्या 'मल्नाड' प्रदेशांत गेली. ताचें कवित्वूय अभिजात आशिल्लें. कन्नड भाशेचेरूय ताचें प्रभुत्व आशिल्लें. आपली पयली कविता ताणें देशी छंदावांगडाच संस्कृत छंदांतूय रचली. ताणें आपली कविता त्या काळचो चालुक्य राजा नरेश दुसरो अरिकेसरी हाका वाचून दाखयली. पंपाच्या कवितांचेर राजा खूश जालो आनी ताणें पंपाक आपल्या दरबारांत राजकवी आनी सेनापती म्हणून दवरून घेतलो.

पंप फकत कवीच न्हय जाल्यार झुजारीय आशिल्लो. लेखणेवांगडाच ताणें तलवारूय बाळगिल्ली. राजाची, पंपाचेर खास मर्जी आशिल्ली आनी पंप लेगीत राजाचो तितलोच आदर करतालो. पूण उपरांत राजान दिल्लें ऐश्वर्य आनी सुखोपभोग न्हयकारून तो लंबून्नपाटक नांवाच्या एकांत स्थळांत आपली कुटी उबारून रावपाक लागलो.

पंपाच्या नांवाचेर आयज दोन काव्यां उपलब्ध आसात. एक आदिपुराण आनी दुसरें विक्रमार्जुनविजय वा पंपभारत. हातूंतलें आदिपुराण हो धर्मीक ग्रंथ आसून तो जिनसेनाच्या पूर्वपुराण ह्या ग्रंथाचेर आदारिल्लो आसा. पंपान हें काव्य आपले पिरायेच्या ४० व्या वर्सा म्हळ्यार इ. स. ९४१त रचलें. ह्या ग्रंथाची रचणूक चंपू शैलींत आसा. आदिपुराण हें पूर्वपुराणाचेर आदारीत आसलें तरी पंपान ताचें स्वरूप बदलून उडयलां. ताणें मूळ ग्रंथांतल्या आचारवर्णनाक फांटो दिवन, काव्याक चड प्राधान्य दिलां. आपले जिणेंतले कांय अणभवूय ताणें ह्या ग्रंथांत भरशिल्ल्यात. धर्म, अर्थ, कामादी पुरुषार्थ, वर्णवेवस्था हांचेविशीं कवीचें काव्यरूप घेतिल्ले विचार चड प्रभावी आसात. कन्नडांतलें हें एक उत्कृष्ट काव्य म्हणून ताचो उल्लेख करतात.

विक्रमार्जुनविजय हें काव्य महाभारताचेर आदारिल्लें आसलें तरी तें मूळ, महाभारत ग्रंथापरस खुबूच वेगळें आसा. महाभारताचो नायक आसा युधिष्ठिर आनी नायिका द्रौपदी; पूण पंपान आपल्या काव्यांत त्यो सुवाती अर्जून आनी सुभद्रेक दिल्यात. हें काव्य बरयतना ताणें अरिकेसरी ह्या आपल्या आश्रयदात्या राजाक अमर कीर्त मेळोवन दिवपाखातीर अर्जूनाच्या रुपांतलो नायक मानला. ह्या काव्याचे १४ अध्याय आसात. सुर्वेकूच अरिकेसरीची ताणें विष्णु, सूर्य, परमेश्वर आनी कामदेव हांचेकडेन तुळां केल्या. उपरांत गणेश सरस्वतीक वंदन करून अर्जून, भीम आनी धर्मराज हांचेआड दुर्योधन आनी कर्ण अशी नायक, प्रतिनायकाची येवजण केल्या. कर्णवध होच महाभारताचो उत्कर्षबिंदू आशिल्ल्याचें पंपान म्हळां.

संख्येचे नदरेन पंपाची रचणूक ल्हान खरी पूण तातूंतल्यानूच कन्नड साहित्यांत ताणें आपलें अढळपद निर्माण करून दवरलां.

– कों. वि. सं. मं.

**पंपा :** कर्नाटक राज्याच्या रायचूर जिल्ह्यांतलें एक ल्हान पुर्विल्लें नामनेचें तळें. हें तळें तुंगभद्रा न्हंयेचे दावे वटेन, अनेगुंदी गांवाचे अस्तंतेक सुमार ३ किमी.चेर आसा. हाचे लागींच तुंगभद्रेचे उजवे वटेन आशिल्लें विजयानगर हाका (हंपी) म्हळ्यार पोरणें 'पंपाक्षेत्र' अशें म्हण्टात आनी हाचेवयल्यानूच हंपीच्या विरूपाक्ष देवाक पंपापती अशेंय म्हण्टात. ह्या तळ्यालागीं आशिल्ल्या ऋष्यमूक पर्वताचेर हनुमान आनी सुग्रीव हांची रामाकडेन पयली भेट जाली, असो समज आसा. रावण सीतेक घेवन वतना ताका ह्या तळ्यांतल्यान वचचें पडलें असो रामायणांत उल्लेख आसा.

अरण्यकांडांतलो सबंद ७३ वो अध्याय ह्या तळ्याच्या वर्णनाचेर बरयल्लो आसा. हें तळें सोबीत तरेन बांदलां. तातूंत कमळांच्यो वाली पातळ्ळ्यात. तशेंच थंय हंस, कावळे, बदकां, कुरव हीं सुकणीय पळोवपाक मेळटात. ह्या तळ्याचें उदक संथ लयीन व्हांवता. तें नितळ आसून वखदीय आसा. ह्या तळ्याचे भोंवतणीं अर्जून, अशोक, केतकी, बकूल, आंबो हीं झाडां आसात. ह्या तळ्याच्या लागींच्या पर्वताचेर शबरी गुंफेचे आनी मंदिराचे पोरणे अवशेश आसात. मतंग ऋषीचो आश्रम ह्या तळ्याचे देगेरूच आशिल्लो. थंयसावन पंपा नांवाची न्हंय व्हांवता, तिचेंय उदक वखदी आशिल्ल्याचें म्हळां.

– कों. वि. सं. मं.

**प :** वर्णमाळेंतलें विसावें व्यंजन आनी पांचव्या वर्णांतलो पयलो वर्ण. 'प' च्या विकासांत तीन अवस्था दिश्टी पडटात. पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनारच्या लेखांत (सनापयलीं तिसरो शेंकडो), दुसरी महाक्षत्रप शोडास हाच्या वेळावयल्या मथुरेच्या जैन लेखांत (सनापयलीं पयलो शेंकडो) आनी तिसरी समुद्रगुप्ताच्या अलाहाबादेच्या स्तंभलेखांत (इ. स. चो चवथो शेंकडो) दिश्टी पडटा.

कामधेनू तंत्रांत 'प'चें वर्णन केलां तें अशें –

चतुर्वर्गप्रदं वर्णं शरच्चन्द्रसमप्रभम् ॥
पञ्चदेवमयं वर्णं स्वयं परमकुण्डली ।
पञ्चप्राणमयं वर्णं त्रिशक्तिसहितं सदा ॥
त्रिगुणावहितं वर्णमात्मादितत्त्वसंयुतम् ।

**अर्थ** – हो वर्ण शरद ऋतूंतल्या चंद्राभाशेन कांतीमान, चतुर्वर्गप्रद, पंचदेवमय, पंचप्राणमय, परमकुंडली आनी तीन शक्ती, तीन गूण आनी आत्मतत्त्व हाणीं युक्त आसा.

ओठ हें हाचें उच्चारणस्थान.

'प' चो विकासक्रम असो आसा –



– कों. वि. सं. मं.

**पखवाज :** एक भारतीय तालवाद्य. सामान्यपणान हाका 'मृदंग' अशेंय म्हण्टात. संस्कृत पक्षवाद्य वा पक्षतोद्य ह्या शब्दाचे हे अपभ्रंश. कर्नाटक संगीत पद्धतींत 'मृदंगम' ह्या वाद्याचो चडसो उपेग करतात. पूण कर्नाटक संगितांतल्या ह्या तालवाद्यांत आनी उत्तर भारत प्रांतांतले पखवाजाचे रचणुकेंत आनी वाजोवपाचे रितींत जायतो फरक आसा.

अबुल फज्ल हाणें आईन-इ-अकबर (१५९८) ह्या पुस्तकांत बरयल्लेप्रमाण पखवाज हें नांव 'आवाज' ह्या त्या काळांत आशिल्ल्या वाद्याच्या नांवां वरवीं पडलां. पुर्विल्ल्या संस्कृत ग्रंथांनी मृदंग ह्या मुरज, पणव आनी दर्दूर ह्या तालवाद्यांक 'पुष्कर' जातींची वाद्यां अशें लेखताले. वाजसनेय संहितेंत 'अदम्बर', वाल्मिकी ऋषीच्या रामायणांत 'मड्डू' तशेंच शारंगदेव हांच्या संगीत रत्नाकर ह्या पुस्तकांत 'पटह' ह्या तालवाद्याचो उल्लेख मेळटा. 'मृत अङ्ग यस्य सः' म्हळ्यार मातयेचें आंग आशिल्लें वाद्य.



पुर्विल्ल्या काळांत ह्या पोकळ तालवाद्याचें आंग न्हंयेचे देगेवयली चिकणमाती, त्या गांवाचें ज्वारीचें पीठ हांचेपसून तयार करताले. उपरांत ते बीज, खैर, रक्तचंदन, आबनूस आनी हेर झाडाच्या लाकडासावन तयार करपाक लागले. पखवाजाचो आकार पिंपाभाशेन (cylindrical) आसता आनी दावे वटेनच्या तोंडाचो घेर उजवे वटेनच्या तोंडापरस मातसो मोटो आसता. दावे वटेनच्या तोंडाचो व्यास सुमार २५ सेंमी. जाल्यार उजवे वटेनच्या तोंडाचो व्यास सुमार १६ सेंमी. आसता. दावे वटेनच्यान सुमार १२ सेंमी.च्या अंतराचेर पखवाजाच्या आंगाचो आकार मातसो फुगीर आसता. ताची लांबाय सुमार ६० सेंमी. आनी फुगीराचो घेर सुमार ९० सेंमी. आसता.

पखवाजाचीं दोनूय वटेनचीं तोंडां बोकडच्या सुळसुळीत चामड्यान बंद केल्लीं आसतात. दर तोंडाक चामडें बसयतना चाटयेकडल्यान (तोंडाचे देगेवयल्यान) चोवीस बुराक करतात आनी गजऱ्याचे विणयेच्या आदारान चामड्याच्यो वादयो घालून दोनूय तोंडां (पुडयो) ताणून बसयतात. चाटयेच्या चामड्याची दाटसाण हेर चामड्याच्या आंगापरस चड आसता. चामड्याच्या वाद्यांमदीं आठ लाकडी गठ्ठे (ठोकळे) गुंथिल्ले आसतात. हे गठ्ठे वयर-सकयल करून आनी गजऱ्याचेर तुतयो वा गुळगुळीत फातरान धाडावन पखवाज फावो त्या स्वरांत लायतात.

पखवाजाचे उजवे पुडयेच्या मदल्या भागांत लोखणाची पूड, मैदो वा भातापसून तयार केल्लो चिकट लेप आनी कोळशाची भुकटी हांचेपसून तयार केल्लें मिश्रण (शाय) हाचो वाटकुळो लेप थापिल्लो आसता. हाका लागून पखवाज स्वरांत लावपाक आनी तारध्वनी निर्माण जावपाक शक्य जाता. देखुनूच हो उजव्या तोंडावटेनचो लेप लायतना खूप सादूर रावचें

पडटा. दाव्या तोंडाचेर गंवाचें वा मैद्याचें पीठ उदकांत मळून ताचो थर लायतात. पखवाज वाजोवपी तो उण्या-चड प्रमाणांत लावन दाव्या तोंडाचेर हात मारतकूच निर्माण जावपी खर्जध्वनी कानाक गोड लागपी तसो दवरपाचो यत्न करतात.

पखवाज आडवो दवरतात आनी हातांनी वाजयतात. वाद्याचेर दोनूय हाताच्या जुळयल्ल्या बोटांनी आनी पंजांनी आघात करतात. केन्ना केन्ना उजव्या तोंडाचेर मेकळ्या बोटांच्या आघातानूय 'बोल' निर्माण करतात. ह्या वाद्याचो आवाज कानाक ओड लावपी आनी गंभीर आसता. पखवाज वाजयतना तरेकवार लयींनी बांदिल्ल्यो गती, गतपरणी, रेले हे रचणूक प्रकार वाजोवंक मेळटात. चड करून नाचांखातीर आनी धृपद-धमारा सारकिले संगीत रचणुकेचे साथसंगतीखातीर ह्या वाद्याचो उपेग करतात.

पखवाज वादनाच्या मळार अर्जून शेजवाल हाचें नांव उंचेल्या पांवड्यांवयलें आसा. धृपद-धमार ह्या प्रकाराची आवड उणी जाल्ल्यान पखवाजाचो उपेग हालींच्या काळांत खूब उण्या प्रमाणांत जावंक लागला. गोंयांत पखवाजाचो उपेग भजन गावपाच्या वेळार करतात. तशेंच भजना वेळार तबलें/डग्गो आनी पखवाज हीं दोनूय वाद्यां साथीक आसल्यार भजनाची रंगत आनिकूय वाडटा. सर्गेस्त मनोहरबुवा शिरगांवकार, डॉ. मलबाराव सरदेसाय, सर्गेस्त गंगारामभाऊ नारायण थळी, सर्गेस्त नंदकुमार पर्वतकार, राधाकांत शेटये हांणी पखवाजवादनांत गोंयांत नामना जोडल्या. हालींच्या काळांत पखवाज-तबल्याची जुगलबंदी प्रकाराची लोकांमदीं रूच निर्माण जाल्या.

– ॲड. सुहास गंगाराम थळी

**पगडी :** तकलेक घालपाचो एक भेस. राखण आनी सोबीतकाय ह्या दोन हेतांनी पुर्विल्ल्या काळासावन भारतांत तकलेक कपडो रेवडावपाची चाल आसा. वैदिक युगांत ह्या रेवडावप्याक उष्णीष अशें म्हण्टाले. फुडें ताका पागोटें, पटको, फेणे आणि हेर नांवां मेळ्ळीं. एके खाशेले पद्दतीन घट्ट बांदून दवरिल्ल्या चेंपटचा पागोटयाक पगडी म्हण्टात. तेखातीर ९ इंच रूंद आनी २० ते २५ वार लांब तलम सुती वा रस्मी, रंगीत वस्त्र



वापरतात. एक ल्हानसो टोप घेवन ताचे भोंवतणीं अशा वस्त्राचो रेवाडो दितात. तशें करतना वयल्या भागार, थारावीक आकाराचे थर तयार करतात. वाटकुळी, त्रिकोणी, चौकोनी अशो तरेकवार पगड्यो आसतात. कांय पगड्यो कपड्याक पीळ दिवन बांदिल्ल्यो आसतात. पुर्विल्ल्या काळांत अधिकाराप्रमाण आनी जाती प्रमाण पगड्यांचे रंग आनी तांची बांदपाची पद्दत तरेकवार आसताली. पुर्विल्ल्या काळांत बायलांय माथ्याक पगड्यो घालताल्यो. सैनीक आनी नागरीक हांच्यो पगड्यो रंगान आनी आकारान वेगवेगळ्यो आसताल्यो. पगडेचें एक पोंत फाटीर सोडप म्हळ्यार शूभ समजताले. त्या त्या विशेश प्रसंगा वेळार वेगवेगळ्या रंगांच्यो आनी आकाराच्यो पगड्यो वापरताले. कांय वाठारांत वेगवेगळ्या परबां वेळार थरावीक रंगांच्यो पगड्यो बांदताले.

शुंग काळांत तरेकवार पगड्यो वापरताले. सांची, भरहूत, मथुरा, अमरावती आदीकडल्या शिल्पकामांत अशा पगड्यांचीं जायतीं रुपां पळोवंक मेळटात. सातवाहन आनी गुप्त काळांत चडशे सगळे दादले पगड्यो वापरताले. संस्कृत साहित्यांत सगळेकडेन पगडेचो उल्लेख मेळटा. जयपूर आनी बिकानेरच्या संग्रहालयांत तरेकवार प्रकाराच्यो पगड्यो घालल्यो मुर्ती दिश्टी पडटात. देवाचे तकलेर मुकूट आसता, तरी यक्षगंधर्व आदींचे तकलेर पगडी आसता.

इ. स. च्या १०व्या शतमानांतल्या पगड्यांचे नमुने मेवाडांतल्या कल्याणपूर गांवांत मेळ्ळ्यात. इ. स. च्या १२ व्या शतमानांतली अर्धनारे श्वराची मूर्त झालावाड गांवांत मेळ्ळ्या. तिचे तकलेरूय पगडी आसा. राजस्थानांत मोगली पद्दतीचे पगडेभायर राजपूत राजांच्यो शेंकड्यांनी प्रकारांच्यो पगड्यो प्रचारांत आशिल्ल्यो. कारण दरेक राजा आपले आवडीप्रमाण पगडी तयार करून घेतालो आनी ती ताच्या राज्यांत लोकप्रिय जाताली. जोधपुरी, जयपुरी, मेवाडी, करौली, हातौडी, फत्तेशाही, अमरशाही, भीमशाही, शिकत्तरशाही, सलीमशाही, गजशाही अशीं तांचीं नांवां आसात. तेभायर मराठी, गुजराथी, पंजाबी, बंगाली, मालवी अशो त्या त्या वाठाराप्रमाण तरेकवार पगड्यो चालींत आशिल्ल्यो.

मुसलमानांमदीं लेगीत पगड्यो वापरपाची पद्दत आसा. ऊंच वाटकुळे तोपये भोंवतणीं कपड्याचो लांबचे लांब पटो रेवाडून ह्यो पगड्यो तयार करतात. दिल्लीचो बादशाहा आनी वेगवेगळ्या वाठारांतले सुलतान हांच्यो पगड्यो मोलादीक अशा रस्मी कपड्याच्यो आसताल्यो आनी तांचेर रत्नां बसयल्लीं आसतालीं. शेख आनी मुसलमान धर्माधिकारी हांच्यो पगड्यो पाचव्या कोराच्यो आसताल्यो. नमाज करतना मुसलमान लोक पगडी घालतात. तांच्या वेगवेगळ्या पंथाच्योय थरावीक पगड्यो आसतात.

महाराष्ट्रांत मराठ्यांच्या काळांत खूब तरेच्यो पगड्यो प्रचलीत आशिल्ल्यो. छत्रपती शिवाजी महाराजाचे पगडी जिरेटोप ह्या नांवान प्रचलीत आशिल्ली. पगड्यो वेगवेगळ्या आकारांच्यो आनी जरीच्यो आसताल्यो. नामनेच्या मराठे सरदारांच्या पगड्यांचीच त्या त्या नांवांनी नामना आसताली. देखीक- शिंदेशाही, होळकरी, गायकवाडी. पेशव्यांच्यो पगड्यो एके विशिश्ट पद्दतीन तयार करताले. तांचो घेर मस्तकापरस बरोच व्हड आसून मदीं चोंची वरी उंचवटो आसतालो. विसाव्या लग्नासारक्या सुवाळ्याक ल्हान पगड्यो अजुनूय वापरतात. चक्री पागोटें होय एक पगडेचोच प्रकार आसून ताचो घेर खुबूच मोटो आसता.

इतिहास काळांत चड करून राजस्थानांत आनी उत्तर प्रदेशांत पगडी ही प्रतिश्ठेची वस्तू समजताले. उकत्या माथ्यान घराभायर वचप ना. तेचपरी भोंवडेक आनी मंगल कार्याक पगडेबगर वचचें न्हय असो समज आशिल्ल्यान पगडेक खूब म्हत्त्व आयलें.

माथ्याक पगडी, आंगांत लांब सदरो, खांदार उपरणें असो गोंयांत कीर्तन करपी कीर्तनकारांचो भेस आसता.

– कों. वि. सं. मं.

**पटवारी :** महाराष्ट्राच्या ग्रामीण समाज रचणुकेंतलो एक घटक. सरकारी साऱ्याची वसुली करपाखातीर आनी हेर मुलकी कामां करपाखातीर आदल्या तेंपार दरेका गांवांत कुलकर्णी आसतालो. पूण जंय कुलकर्णी ना थंय थंय सरकार पटवाऱ्याची नेमणूक करतालो. अस्तंत महाराष्ट्रांत आनी वऱ्हाडांतल्या मराठी जिल्ह्यांत सगळेकडेन पटवारी हे म्हयन्याचो पगार घेवपी सरकारी नोकर आसात. तांची बदलीय करतात. एका एका पटवाऱ्याकडेन तीन-चार गांव आसतात. त्या गांवांक पटवाऱ्याचो सजा अशें म्हण्टात. सजांतल्या ज्या गांवांत पटवारी रावता त्या गांवाक सजाचो गांव अशें म्हण्टात. मराठवाड्यांत कुलकर्ण्याकूच पटवारी अशें म्हण्टात. आदल्या तेंपार तो बलुतेदार आसतालो पूण फुडें ताका तनखो दिताले.

गांवचे वसुलीप्रमाण पटवारीची संख्या निश्चीत केल्ली आसता. ज्या गांवची वसुली धा हजारांमेरेन आसता थंय एक पटवारी आसता. ताका पट्टेदार अशें म्हण्टात. धा हजारांवयर आसल्यार दोन आनी तीन हजारांवयर आसल्यार तीन पट्टेदार नेमतात. पटवाऱ्याच्या भावबंदाकूय वतनी हक्की आसता. तेखातीर हो पट्टेदार आपल्या पगारांतली एक तृतीयांश रक्कम आपल्या भावबंदाक वाट्टा.

- कों. वि. सं. मं.

**पटेल, केशवभाय गंदाभाय :** (जल्म : २५ जुलय १९३१, पार्दी - दमण).

सुटकेझुजारी. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. भेंसरोडच्या दल संघटनेच्या शिबिरांत तो वावर करतालो. तेचपरी भूंयगत राष्ट्रीय वावरांनीय तो वांटो घेतालो. १९५६त ताका पोलिसांनी धरलो आनी स म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताका गोंयांत हाडलो आनी प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून पांच वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. साडेतीन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगतकच आग्वाद बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पटेल, खंडूभाय लालभाय :** (जल्म : २७ जून १९३१, रिंगणवाडा - दमण).

सुटकेझुजारी. मुळावो शिक्षक आशिल्लो. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९५४ वर्सासावन तो राष्ट्रीय वावरांनी वांटो घेवंक लागलो. गुजरात शिमेलागसार आशिल्ल्या कुंठाच्या 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेच्या शिबिराखातीर वावर करपी फुडाऱ्यांक तो पालव दितालो. जून १९५६त, पोलिसांनी ताका धरलो आनी कांयच चवकशी करिनासतना स म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताका गोंयांत धाडलो आनी प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर १२६० रुपया दंड भरूंक लायलो वा दंडभरपायेबदला आनीक दोन वर्सां बंदखण फर्मायली. २८ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पटेल, चिबुभाय रामाभाय :** (जल्म : १२ फेब्रुवारी १९२५, रिंगणवाडा, दमण).

सुटकेझुजारी. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५४ वर्सासावन ताणें राष्ट्रीय वावर करूंक सुरवात केली. जून १९५६त पोलिसांनी ताका धरलो आनी कांयच चवकशी करिनासतना स म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताका गोयांत हाडलो आनी प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर १२६० रुपये दंड वा ताचेबदला आनीक दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. २८ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पटेल, जगनभाय मिथलाभाय :** (जल्म : ६ जानेवारी १९२७, दमण).

सुटकेझुजारी. मुळावें शिक्षण गुजरातींतल्यान घेतलें. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९४८त ताणें 'किसान चळवळींत' वांटो घेतिल्लो. दादरा आनी नगर हवेलीचे सुटके उपरांत ताचो गुजरात शिमेलागसार आशिल्ल्या कुंटा वाठारांतल्या 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेच्या फुडाऱ्यांकडेन संबंद आयलो. तांच्या मार्गदर्शनाखाल तो 'क्रांती' नांवाचें पत्रक वांटूंक लागलो, तशेंच दमणच्या राष्ट्रीय वावरांनी वांटो घेवंक लागलो.

१९५६त पोलिसांनी ताका धरलो आनी उपरांत गोंयांत धाडलो. प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. साडेतीन वर्सां ख्यास्त भोगले उपरांत ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. दमण जिल्हो सरकारी सोसायटी कार्यकारी समितीचो वांगडी म्हणून ताची वेंचणूक जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**पटेल, जिवनभाय गोवन :** (जल्म : १८ सप्टेंबर १९२९, पट्टारा - दमण).

सुटकेझुजारी. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. दमण शिमेलागसार वावर करपी दल संघटनेच्या शिबिरांत तो वावर करतालो.

सुटकेझुजारी प्रभाकर सिनारी आनी भिकुभाय पांडे हाणीं दिल्लीं 'क्रांती' नांवाचीं राष्ट्रीय पत्रकां तो वांट्टालो. तेभायर तांच्या मार्गदर्शनाखाल तो विध्वसंक वावरांनी वांटो घेतलो. १९५६ त पोलिसांनी ताका धरलो आनी स म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताका गोंयांत हाडलो. ताका प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. साडेतीन वर्सां ख्यास्त भोगले उपरांत ताची आग्वाद बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पटेल, नरसिंह दुतिया :** (जल्म : २७ मार्च १९२५, खारवाडी - दमण).

सुटकेझुजारी. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. आपलो हक्क मेळोवपाखातीर भाटकारांआड जाल्ल्या शेतकामती चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९५३ वर्सा सावन तो आझाद गोमंतक दल संघटनेखातीर वावर करूंक लागलो. गुजरात शिमेलागसार आशिल्ल्या कुंठा गांवांत तो दल संघटनेच्या फुडाऱ्यांच्या मार्गदर्शनाखाल राश्ट्रीय वावर करतालो. १९५६त पोलिसांनी ताका धरलो आनी स म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताका गोंयांत हाडलो आनी प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. फुडें साडेतीन वर्सां ख्यास्त भोगले उपरांत ताची आग्वाद बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पटेल, पन्नालाल :** (जल्म : ७ मे १९१२, मांडली, जि. डुंगरपूर, राजस्थान).

एक नामनेचो गुजराती कादंबरीकार आनी कथाकार. एका गरीब शेतकरी कुटुंबांत जल्मल्ल्या पन्नालालची जल्मभूंय जरी राजस्थान आसली तरी ताची कर्मभूंय मात गुजरात. ताच्या बापायचें नांव नानालाल आनी आवयचें नांव हिराबेन. ताचें शालेय शिक्षण राजस्थान आनी गुजराती भाशेंतल्यान जालें.



पन्नालालाचें भुरगेपण खूब हालअपेश्टांनी आनी कश्टान गेलें. ताणें खूब नोकऱ्यो केल्यो. उमाशंकर जोशी ह्या ताच्या शाळेंतल्या इश्टाचे प्रेरणेन पन्नालालान साहित्यक्षेत्रांत पावल घालें. सुरवेक ताणें कांय कविता बरयल्यो. उपरांत ताणें कथा-कादंबरी लिखाणाकडेन लक्ष घालें. उमाशंकर जोशी आनी 'सुंदरम्' हाणीं पन्नालालच्या सुरवेच्या लिखाणाची खूब तोखणाय करून ताका उर्बा दिली.

१९३६ वर्सा पन्नालालाची पयली कथा 'शेठनी शारदा' उजवाडा आयली. 'मळेला जीव' ही ताची कादंबरी राजकोटासावन उजवाडा येवपी 'फूल छाब' ह्या दिसाळ्यांतल्यान क्रमान उजवाडा आयली आनी तेन्नासावन एक श्रेश्ट कादंबरीकार म्हणून पन्नालालाक नामना मेळपाक लागली. पन्नालालान कथा, कादंबरी, नाटक ह्या प्रकारांनी खूब लिखाण केलें. चारशेंपरस चड कथांचे २५ कथांझेले, ३२ कादंबऱ्यो, ५ नाटकां, यादी, भुरग्यांचें साहित्य अशी भरपूर प्रमाणांत ताणें साहित्यनिर्मिती केली.

'जनसत्ता' ह्या दिसाळ्यांतल्यान, पन्नालाल एक उपरोधीक सदर बरयतालो. १९५० वर्सा ताका गुजराती साहित्याचो सर्वोच्च असो रणजीतराम सुवर्णचंद्रक फावो जालो. आयजमेरेन गुजरात सरकाराकडल्यान ताच्या १७ साहित्यकृतींक पुरस्कार फावो जाल्यात. ताच्यो चडशो कादंबऱ्यो गांवगिरे जिणेचेर आसात. उत्तर गुजरातच्या, चड करून साबरकांठा प्रदेशांतल्या, गांवगिरे जिणेचें चित्रण ताणें आपल्या कादंबऱ्यांनी चितरायलां. ज्ञानपीठ पुरस्कार (१९८५)

मळेला जीव (१९४१), मानवीनी भवाई (१९४७) ह्यो ताच्यो काळजाक हात घालपी कादंबऱ्यो गुजरातींत म्हत्वाच्यो आनी खूब लोकप्रिय थरल्यात. 'मळेला जीव' हे ताचे कादंबरीचेर 'उलझन' हें हिंदी चलचित्र आयलां. मराठींत ही कादंबरी 'जीवी' ह्या नांवान अणकारीत जाल्या. हेर भाशांतल्यानूय ताच्या हे आनी हेर कादंबऱ्यांचे अणकार जाल्यात. गुजराती गावगिरे जिणेचें वास्तव आनी प्रमाणीक चित्रण आपल्या कथा-कादंबऱ्यांनी समर्थपणान करपी पटेल हो आद्य लेखक. गुजराती साहित्यांत ताणें घाल्ली ही मोलादीक भर आसा.

पटेलाचें कांय उल्लेखनीय लिखाण अशें आसा -

**कथांझेले -** साचां शमणां (१९४९), वात्रक ने कांठे (१९५१), दिल नी वात (१९५६), तिलोत्तमा (१०६०), धरती आभ ना छेटां (१९६२), त्यागी अनुरागी (१९६३).

**कादंबऱ्यो —** भीरू साथी (१९४२), ना छूटके (१९५५), भांग्या ना भेरू (१९५५), पडघा अने पडछाया (१९६०), मनखावतार (१९६१), करोळिया नु जाळ (१९६३), आँधी आषाढ नी (१९६४), मीणा माटी ना मानवी (१९६६), कुंकु (१९६८).

**नाटकां -** चांदो शें शामको (१९६०), ढोलिया साग सीसम ना (१९६४), सपना ना साथी (१९६७). जमाई राज (१९५१) हो एक एकांकिकांचो झेलो.

पटेलान आपल्यो यादी 'अलप-झलप' (१९७३) ह्या नांवान संग्रहीत केल्यात. तशेंच ताणें किशोर आनी भुरग्यांसाहित्य लेगीत खूब प्रमाणांत बरयलां. तातूंतलें 'एक खोवायेलो छोकरो (१९६९), 'बाळ किल्लाले' (१९७२), 'वार्ता किल्लोल' (२ भाग - १९७२-७३), 'महाभारत किशोर कथा' (१९७३) हें उल्लेख करपासारकी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**पटेल, फकीरभाय करीयाभाय :** (जल्म : २० जून १९१७, भेंसरोड - दमण).

सुटकेझुजारी. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. भाटकारशायी पसून शेतकामत्यांची सुटका करपाक शेतकामत्यांचे चळवळींत ताणें भिकूभाय डी. पांडे वांगडा वांटो घेतिल्लो. तो राश्ट्रीय वावरांनी वांटो घेतालो. एक जून १९५६ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी स म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताका गोंयांत धाडलो आनी प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून पांच वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. साडेतीन वर्सां ख्यास्त भोगले उपरांत १९५९ त ताची आग्वाद बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पटेल, भागुभाय खलपाभाय :** (जल्म : १५ ऑक्टोबर १९२२, भीमपूर - दमण).

सुटकेझुजारी. शिमेवयल्यान क्रांतीविरांकडल्यान पत्रकां हाडप आनी दमण वाठारांत वांटप, भारतीय पोलिसांक पुर्तुगेज लश्कराविशीं आनी

कामकाजाविशीं म्हायती दिवप असलीं कामां तो करतालो. १९ नोव्हेंबर १९५६ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. सुर्वेक स म्हयने ताका बंदखणींत दवरलो आनी उपरांत गोंयांत व्हेलो. प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १७ मे १९५९ ह्या दिसा ताची आग्वाद बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**पटेल, मोरारभाय नानाभाय :** (जल्म : १४ जानेवारी १९२३, भिमपूर - दमण).

सुटकेझुजारी. सुर्वेक तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी जालो. राश्ट्रीय फुडाऱ्यांचे सांगणेमुखार तो पुर्तुगेजांआडच्या वावरांनी वांटो घेतालो. १८ नोव्हेंबर १९५६ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. ताका अडेज वर्सां आग्वाद बंदखणींत खर ख्यास्त भोगपी पडली. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**पटेल, रंचूड देवजी :** (जल्म : २० फेब्रुवारी १९३८, मगरवाडा – दमण).

सुटकेझुजारी. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. दमण शिमेलागसल्ल्या शिबिरांत तो दल संघटनेच्या फुडाऱ्याच्या मार्गदर्शनाखाल 'क्रांती' नांवाचीं पत्रकां वाटप तशेंच घातक वावरांनी वांटो घेवपाचें काम करतालो. १९५६त पोलिसांनी ताका धरलो आनी तीन म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताका गोंयांत धाडलो आनी प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. साडेतीन वर्सां आग्वाद बंदखणींत ख्यास्त भोगले उपरांत ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**पटेल, वल्लभभाई जव्हेरभाई :** (जल्म : ३१ ऑक्टोबर १८७५, करमसद, खेडा; मरण :१५ डिसेंबर १९५०, मुंबय).

भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींतलो एक जेश्ठ फुडारी आनी स्वतंत्र भारताचो पयलो उपप्रधानमंत्री. खेडा जिल्ह्यांतल्या करमसद गांवांत लेवा पाटीदार शेतकार घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचें नांव जव्हेरभाई आनी आवयचें नांव लाडबाई आशिल्लें. चल्याचें नांव



डाह्याभाई आनी चलयेचें नांव मणिबेन आशिल्लें.

वल्लभभाईन मुळावें शिक्षण करमसदाक घेवन फुडलें शिकप पेटलाद, बडोदा आनी नाडियादाक पुराय केलें. विद्यार्थी आसतनाच १८९१ वर्सा ताचें लग्न जव्हेरबाई हिचेकडेन जालें. १८९७ वर्सा नाडियादेक मॅट्रीक पास जालो. घरचे गरीब परिस्थितीक लागून ताका म्हाविद्यालयीन शिकप घेवप तांकलेंना. त्या वेळावयली वकिलीची परिक्षा पास जावन तो वकील जालो. १९०० वर्सा ताणें गोध्राक वकिलीचो वेवसाय सुरू केलो. ताका बॅरिस्टर जावपाची खूब इत्सा आशिल्ली म्हणून वकिलीच्या वेवसायांत ताणें फौजदारी खटले लडोवन डुडू आनी नामना जोडली.

१९०९ वर्सा वल्लभभाईची घरकान्न भायर पडली. ते उपरांत तो बॅरिस्टर जावंक इंग्लंडाक गेलो आनी परिक्षेंत पयल्या क्रमांकान पास जालो. तेन्ना ताका ५० पाऊंडाचो पुरस्कार फावो जालो. फेब्रुवारी १९१३त तो भारतांत आयलो. रोखडोच अहमदाबादेक ताणें आपलो वेवसाय सुरू केलो.

सुर्वेक ताणें लोकमान्य टिळकाच्या जहाल पक्षांत वावर केलो. पूण नोव्हेंबर १९१७त गोध्राक भरिल्ले पयले गुजरात राजकीय परिशदेंत महात्मा गांधीन केल्ल्या अध्यक्षीय उलोवपाचो ताचेर खोल परिणाम जालो आनी तो महात्मा गांधीचो अनुयायी जालो. उपरांत तो गुजरात सभेचो चिटणीस जालो. १९१७-१८ वर्सा खेडा सत्याग्रहांत वांटो घेवन ताणें तो जैतीवंत केलो. त्याच वर्सा तो अहमदाबाद नगरपालिकेंत वेंचून आयलो. उपरांत तो नगरपालिकेचो अध्यक्ष जालो. १९२० वर्सा सुमार धा लाखांचो निधी उबारून गुजरात विद्यापिठाची स्थापणूक केली. १९२१ वर्सा तो गुजरात प्रांतिक काँग्रेसीचो अध्यक्ष जालो. उपरांत अहमदाबाद काँग्रेस अधिवेशनाचो येवकार अध्यक्ष जालो. विलायतेंत पार्लमेंटान मॉंटेग्यू सुदारणांचो विचार करपाखातीर जोड निवड समिती नेमली. ते समितीमुखार गवाय दिवपाखातीर काँग्रेसीन पटेलाच्या फुडारपणाखाला थंय एक शिश्टमंडळ धाडलें. इंग्लंडांत तेन्ना पटेलान खूब मोलादीक वावर केलो.

१९२२ वर्सा तो मुंबय नगरपालिकेंत वेंचून आयलो. ताणें केल्ल्या यत्नांक लागून सगळ्या शाळांनी हिंदी भास शिकोवपाक सुरवात केली. सगळ्या खात्यांनी स्वदेशी म्हाल विकपाचें धोरण आपणायलें. उपरांत तो मुंबय महानगरपालिकेचो अध्यक्ष जालो.

१९२३ वर्सा नागपूर झेंडा सत्याग्रहांत ताणें फुडारपण घेवन, तो सत्याग्रह येसस्वी केलो. त्याच वर्सा बोरसद सत्याग्रहांतूय ताका जैत मेळ्ळें. १९२७ वर्सा पटेल नगरपालिकेचो अध्यक्ष आसतना गुजरातांत हुंवार आयलो, तेन्ना ताणें मोलादीक काम केलें.

१९१९ च्या कायदयाप्रमाण मध्यवर्ती कायदेमंडळांत तो वेंचून आयलो. २५ ऑगस्ट १९२५ दिसा ह्या कायदेमंडळाच्या अध्यक्षपदाचे वेचणुकेंत तो वेंचून आयलो. उपरांत नोव्हेंबर १९२६त परतून अध्यक्षपदाचेर वेंचून आयलो. जल विकास वेवस्था आनी उदका पुरवण येवजण अशो सुदारणा ताणें केल्यो. गांधीजीचे असहकारतेचे चळवळींत वल्लभभाई आघाडीचेर आशिल्लो. तेन्ना ताणें आपली वकिली सोडली. १९२८ वर्सा बारडोलीक सुरू जाल्ली ही करबंदीची चळवळ फेब्रुवारी ते ऑक्टोबर अशी णव म्हयने चलली. तेन्ना पटेलाचें नांव भारतभर गाजपाक लागलें. ह्याच वेळार ताका 'सरदार' ही उपाधी फावो जाली.

१९३० वर्सा मिठाच्या सत्याग्रहांत वांटो घेवन भाशणबंदीचो हुकूम

ताणें मोडलो. तेखातीर ताका तीन म्हयने बंदखण आनी ५०० रुपया दंड अशी ख्यास्त जाली. २६ जून १९३० दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. पूण त्याच वर्सा एक ऑगस्टाक टिळक पुण्यतिथीचे मिरवणुकेचें फुडारपण केल्ल्यान ताका परतून अटक केली. तातूंतल्यान सुट्टकूच मुंबयच्या एका खादीभांडाराच्या उक्तावणानिमतान केल्ल्या भाशणाक लागून ताका परतून अटक केली. णव म्हयन्यांनी गांधी आयर्विन कबलातीप्रमाण ४ मार्च १९३१ दिसा ताची सुटका जाली. मार्च १९३१त कराचीक राश्ट्रीय सभेच्या अधिवेशनांत ताका अध्यक्षपद फावो जालें. १९३२ वर्सा ताका गांधीजीवांगडा अटक करून येरवड्याक दवरलो. उपरांत जुलय १९३४त सुट्टकच संसदीय मंडळाचे उपसमितीचो तो अध्यक्ष जालो.

१९३६ वर्सा प्रांतीय कायदेमंडळाच्या वेंचणूक मंडळाचो अध्यक्ष जालो. १९३८ वर्साच्या हरिपूर काँग्रेसीचो तो येवकार अध्यक्ष जालो. त्याच वर्सा राजकोट संस्थानाच्या नागरिकांवतीन ताणें महाराजावांगडा तडजोड केली. पूण महाराजाक तडजोड मान्य नाशिल्ल्यान कायदेभंगाची चळवळ सुरू केली. ८ ऑगस्ट १९४२ दिसा 'छोडो भारत'चो थाराव मांडचे पयलींच पुराय गुजरात भर आंदोलन पसरलें. ९ ऑगस्टाक ताका अहमदनगरच्या किल्ल्यांत हेर काँग्रेस फुडाऱ्यावांगडा अटक केली. १५ जून १९४५ दिसा सुटका जाले उपरांत शिमला परिशद, कॅबिनेट मिशन आदींनी ताणें वांटो घेतलो.

दोन सप्टेंबर १९४६ दिसा हंगामी मंत्रीमंडळांत गृह मंत्री म्हणून ताचो आस्पाव केलो. घटना परिशदेचो तो वांगडी आशिल्लोच. सुर्वेक ताणें कम्युनिस्टांचीं बंडां मोडून काडलीं. हैदराबाद, जुनागढ आनी काश्मीर सोडून हेर सुमार ५५० संस्थानां भारतांत विलीन केलीं. फुडें पोलीस कारवाय करून हैद्राबाद संस्थान भारतांत विलीन केलें.

३० जानेवारी १९४८ दिसा महात्मा गांधीची हत्या जाली. आपूण गृह मंत्री आसतना ही घडणूक घडली म्हणून ताका खूब वायट दिसलें. कांय दिसांनी ताका काळजाचो आताक आयलो. ३१ ऑक्टोबर १९४८ दिसा मुंबयंत ताचो सत्कार जालो. तेन्ना रत्नजडीत भांगराचो अशोकस्तंभ आनी रुप्याची व्हड प्रतिमा ताका भेटयली. नागपूर, प्रयाग, उस्मानियाच्या विद्यापिठांनी ताका सन्मानाची डॉक्टरेट दिली. ताच्या अमृतमहोत्सवा निमतान १९५० वर्सा अहमदाबाद शाराचे वतीन ताका पंदरा लाख रुपयांची थैली भेटयली.

एकात्म भारताचो तो खरो शिल्पकार. काँग्रेस पक्षाच्या संघटनात्मक वावरांत ताचो मोलाचो वांटो आसा. भारताच्या स्वतंत्रतायेच्या झुजांत आनी त्या उपरांतच्या भारतांत वल्लभभाईक मानाची सुवात आसा. भारताचो 'पोलादी पुरुष' म्हणून संवसारभर ताची नामना जाल्ली. तो वृत्तीन धर्मीक आनी परंपरीक विचारसरणीचो तसोच कणखर आशिल्लो. सादें रावप, उच्च विचारसरणी आनी बेगोबेग करणी हांचेर ताचो विश्वास आशिल्लो.

मुंबय महानगरपालिका, मुंबय विधिमंडळ आनी काँग्रेस अशा तीन क्षेत्रांनी ताणें कार्य केलें; पूण संसदपटू म्हणुनूच ताका चड नामना मेळ्ळी. राजकारणी मनशाक फावोसारके सगळे गूण ताचेभितर आशिल्ले. देखुनूच लंडनच्या 'द टाइम्स' खबरांपत्रान बिस्मार्कापरस म्हान राजकारणपटू म्हणून ताचो गौरव केलो.

– दिलीप बोरकार

**पठाण** : मुसलमान लोकांची एक जात. भारतभर ह्या लोकांची वसती आसा. तांचो प्रदेश सिंधू न्हंयेपसून अस्तंतेक कंदाहारमेरेन आनी हिंदुकूश दोंगरावळीसावन दक्षिणेक बलुचिस्तानामेरेन पातळ्ळा. अफगाणिस्थान आनी पाकिस्तान हांचे शिमेवयल्या दोंगराळ प्रदेशांतल्या सगळ्या लोकांक पठाण म्हण्टात. तशेंच विंगड विंगड प्रदेशांनी तांकां अफगाण, काबुली, खान, कंदाहारी, पख्तुनी, पेशावरी, रोहिले ह्या नांवांनीय वळखतात.

अफगाणिस्थानांतल्या सगळ्या लोकांक अफगाण म्हण्टात. पूण शिमेवयल्या दोंगराळ प्रदेशांत रावपी चडशे लोक स्वताक पश्तून, पुश्तुन, पख्तुन वा पुख्तुन म्हणोवन घेतात. इ. स. च्या १६व्या शेंकड्यासावन ह्याच लोकांक पठाण हें नांव मेळ्ळें. हे लोक स्वताक, इझ्राएलाचो राजा सौल हाचे वंशज मानतात.

डॉ. बेल्यूच्या मतान पठाण हो अफगाणिस्थानांतल्या पुटख्तान शब्दाचो हिंदी अपभ्रंश. आर्य लोक गांधार देशांतल्यान पंचनद प्रदेशांत आयले आनी उपरांत यवन, शक, कुशाण, हूण, तुर्की, मंगोल हे सगळे आक्रमक लोक ह्याच प्रदेशांतल्यान भारतांत रिगले. त्या सगळ्यांनी ह्या प्रदेशांत कांय काळ वास्तव्य केलें आसतलें. ताका लागून त्या सगळ्या विंगड विंगड वंशांचें रगत एकठांय भरसून अफगाण वा पठाण लोक उत्पन्न जाल्यात.

इ. स. च्या पांचव्या शेंकड्यामेरेन गंधार राज्यांत बौध्द संस्कृताय नांदताली. पूण उपरांत ती खूब उणी जावन इ. स. च्या १० व्या शेंकड्यांत गजनीक एका तुर्की मुसलमान राजघराण्यान आपली सत्ता थंय प्रस्थापीत केली. त्याच घराण्यांतल्या महमुदान हिंदुस्थानाचेर खूब फावटीं घुरयो घालून वायव्य शिमेचेर आपली सत्ता स्थापली. उपरांत सुमार दोनशें वर्सां हांगा गजनीच्या सुलतानांची सत्ता आशिल्ली.

इ. स. १४५१ सावन १५२६ मेरेन दिल्लीचेर लोदी नांवाच्या अफगाण सुलतानाचें राज्य आशिल्लें. उपरांत मोगल बादशहा बाबर हाणें शिमेप्रांताचेर आपली सत्ता प्रस्थापीत केली. ताच्या मरणाउपरांत अफगाण टोळ्यांनी स्वायत्त राज्यां सुरू केलीं. इ. स. १५४० ते १५५५ ह्या काळांत अफगाण सरदार शेरशहा आनी ताचे वंशज हाणीं दिल्लीचेर राज्य केलें. उपरांत नादिरशाहाचो एक सेनापती अहमदशाहा हाणें इ. स. १७४८ वर्सा कंदाहाराक स्वताक अफगाणिस्थानाचो सुलतान म्हणून जाहीर करून दुर्र-इ-दुर्रान ही पदवी घेतली. तो अब्दाली नांवाचे अफगाण टोळयेंतलो आशिल्ल्यान, ते टोळयेक दुर्रानी हें नांव मेळ्ळें.

पठाण लोक पुश्तू भास उलयतात. चडशे पठाण शरिरान ऊंच, धिप्पाड आनी बळिश्ट आसतात. तशेंच ते रुपेस्त आनी गोरे आसतात. दादलो आनी बायल दोगांकूय दोळ्यांत सुरमा घालपाची आवड आसता.

पठाण लोकांमदीं जातीभेद ना. पूण पयलींसावन तांच्यो विंगड विंगड टोळयो आसात. आफ्रिदी, उस्तरानी, ओरकजई, काल्कर, खटक, खलील, गिलजई, गुजियानी, गौरई, गोरगस्ती, दिलजक, दुर्रानी, बंगश, महंमदजई, महसूद, मोहंमद, युसुफजई, सहेला, वजीरी, लोदी, शीरानी, सूर हीं तातूंतल्या मुखेल टोळ्यांचीं नांवां आसात. कांय टोळ्यांनी पोटभेदूय आसात. दुर्रानी टोळयेच्यो आठ आनी खलीलाच्यो चार उपजाती आसात. दरेक टोळयेंत खूब तरातरांचीं घराणीं आसतात. तांकां खेल म्हण्टात. त्या घराण्याच्या मुखेल्याक मालिक म्हण्टात. सगळ्यांत जाण्टो मालिक हो पुराय टोळयेचो सरदार वा प्रधान आसता. टोळयेचेर ताचो अधिकार

चलता. अशा सगळ्या सरदारांची एक सभा आसता, तिका जिरगा म्हण्टात.

सगळे पठाण लोक सुन्नी हनफी पंथाचे आसून ते इस्लामाचे खर अनुयायी आसात. पूण थळावे पीर आनी फकीर हांकां ते चड मानतात.

शिमेप्रांतांतले पठाण लोक चड करून शेतीचो वेवसाय करपी आसले तरी भारतांत आयिल्ले पठाण लश्करी पेशाचे आशिल्ले. उपरांत ते वेपार आनी सावकारी करूंक लागले.

– कों. वि. सं. मं.

**पठ्ठाळो :** बाळंतिणीक धाडपाचें गरजेचें सामान. हाकाच बाळंत विडो अशेंय म्हण्टात. बायल कुळारा बाळंत जाली जाल्यार घोवा घरच्या लोकांनी आनी घोवा घरा बाळंत जाली जाल्यार कुळारच्या लोकांनी पठ्ठाळो धाडप आसता.

पठ्ठाळ्याच्या जिनसांनी बाळंत बायलेक गरजेचें अशें पौश्टीक खाण जेवण आनी भुरग्याक लागपी वस्तू धाडटात. हातूंत बाळंतिणीखातीर नाल्ल, तांदूळ, गोड, मेथयो, गंव, रवो, गांवठी तूप, चिकाचे आनी अव्हिलाचे लाडू आनी खोबरेल तेल तशेंच होंटयेचें सामान आसता आनी भुरग्याखातीर रुप्याची वाटी, चमचो, कमरेक रुप्याची सरपळी आनी हेर आयदनां, शाबू, पो, काजळ, आंगली-तोपरीं, पोळेर आनी तत्सम वस्तू आसतात.

पयल्या भुरग्या वेळार पठ्ठाळो व्हड प्रमाणांत धाडप जाता आनी मागीर जिनसांचे प्रमाण उणें जाता.

– माया खरंगटे

**पठ्ठे बापूराव :** (जल्म : ११ नोव्हेंबर १८६६, हरणाक्ष रेठरे, ता. वाळवे, जि. सांगली; मरण : २२ डिसेंबर १९४५, पुणे).

एक नामनेचो शाहीर. ताचें पुराय नांव श्रीधर कृष्ण कुलकर्णी. ताचें घराणें भिक्षुकी करपी आशिल्लें. ताणें इंग्लीश तिसरी-चवथी मेरेनचें शिक्षण घेतलें. बडवे घराण्यांतल्या सरस्वती नांवाचे चलयेकडेन ताचें लग्न जाल्लें. शाळेंत आसतनाच ताचे कवितेची आनी पहाडी आवाजाची नामना जाल्ली. तेन्ना ताच्या शिक्षकान ताका औंधच्या राजेसाहेबाकडेन धाडलो. ताणें बडोदा नरेशांकडे ताची शिफारस करून थंयच्या कलाभुवन नांवाचे संस्थेंत ताका शिकपाक दवरलो. थंय बापूरावान एक वर्स मॅकॅनिकल इंजिनिअरिंगचें शिक्षण घेतलें आनी उपरांत पोलीस खात्यांत नोकरी धरली. ही नोकरी करता आसतनाच ताका तमाशाचो नाद लागलो. फुडें ताका आपणें स्वताच तमाशा उबारपाची आवड निर्माण जाली. पूण घरचें पुराय वातावरण सनातनी आशिल्ल्यान ताका सुर्वेक थोडे त्रास जाले. तरी फुडें आपले पोलीस खात्यांतले नोकरेक सोडचीट दिवन बऱ्यो बऱ्यो लावण्यो करून त्यो गावंक लागलो. ही गजाल तमासगीर मंडळीक कळटकूच ते ताका येवन मेळ्ळे. फुडें बापुरावान आपलो असो तमाशाचो फड उबारलो. तातूंत तो सुरेल `अशो लावण्यो आनी कवनां, पठ्ठे बापूराव ह्या नांवान म्हणूंक लागलो. ताच्या फडांत पवळा नांवाची म्हार जातीची एक सोबीत बायल आशिल्ली. तिचेर ताचो उपाट मोग आशिल्लो. पवळानूय ताका तमासगिरींत तशीच साथ दिल्ल्यान ताच्या तमाशाक नवो चंवर आयलो. ताणें गौळण, भेदिक, झगड्याच्यो, रंगबाजीच्यो, वगाच्यो आदी भरपूर लावण्यो रचल्यो. तातूंतल्यो कांय तीन भागांनी उजवाडाक आयल्यात (१९५८). तरीय पूण ताच्यो बऱ्योचशो रचना मेळनात. फुडें बापूरावाच्या आयुश्यांतल्यान पवळा वतकूच ताचो तमाशाचो वेवसाय खालावत गेलो. तो वृत्तीन विलासी आशिल्लो तितलोच उदारूय आशिल्लो. ताच्या चैनबाज जिविताचो ताच्या काव्यारूय परिणाम जाल्लो. ताची भास सरळ, सोंपी, तशीच सरळ-स्पश्ट आशिल्ली.

– कों. वि. सं. मं.

**पडोळें :** (मराठी : पडवळ; हिंदी : चिचिंडा, चिंचोडा, पुडवल; गुजराती : पंडोल; कन्नड : पडवळकाई; संस्कृत : पटोल; इंग्लीश : स्नेक गूर्ड; लॅटिन : ट्रायकोसँथस अँग्विना; कूळ : कुकर्बिटेसी).

हे वर्सभर जगपी वालीची भारतांत जायत्या वाठारांनी लागवड करतात. जायतीं वर्सां लागवडीखाला आशिल्लो हो रानटी पडवळाचो एक प्रकार आसुंये. हाचीं फळां ०.५ ते १ मी. लांब आनी सुमार ७ सेंमी. रूंद आसून दोनूय तोंकांचे वटेन अशीर आसतात. तरणीं आसतना हीं पाचवीं आसून तांचेर धवे पटे आसतात. कांय फळां गाड पाचवीं आसून तांचेर लेव पांचवे पटे आसतात. हीं फळां सोरपावरी दिसतात देखून तांकां स्नेक गूर्ड हें इंग्लीश नांव पडलें. पडवळ हें कोडू (रानटी) पडवळ आनी कंवडळ हांच्या वंशांतलें आनी कुकर्बिटेसी कुळांतलें आशिल्ल्यान तांचीं जायतीं शारिरीक लक्षणां सारकींच आसात. पडवळाची बी थंडसाण दिवपी आसून फळांत कृमिनाशक, रेचक आनी वांतीकारक हे गूण आसतात.

पडोळें हें फळ भाजयेचें पीक आशिल्ल्यान ताका जमीन आनी हवामान कुकर्बिटेसी कुळांतल्या हेर पिकांवरीच लागता. बरे निचऱ्याचे जमनींत तीन मी. अंतराचेर तीस सेंमी. रुंदायेचेर आनी तितलेंच खोल आळें करून तातूंत ८-१० किग्रॅ शेणखत घालून मे म्हयन्यांत दरेका आळ्यांत ३-४ बियो लायतात आनी उदक दितात. ७ ते १० दिसांभितर बीं किल्लता. फुडें ८ ते १० दिसांच्या अंतरान उदक दितात. ही वाल माटवार चडयतात. फळां लांब आनी सरळ जावचीं देखून तांच्या तोंकांक ल्हान वजन बांदतात. लागवडी उपरांत एका म्हयन्यान हॅक्टरी ४०० किग्रॅ नायट्रोजन (सल्फेट ऑफ आमोनियाच्या रुपांत) दितात. लागवडीपसून दोन-अडेज म्हयन्यांनी फळां काडपाक तयार जातात. फळां तोडपाचें काम दोन अडेज म्हयने चलता. फळांचें उत्पन्न हॅक्टरी १२,००० ते १४,००० किग्रॅ येता.

**कोडू (रानटी) पडोळें :** (हिंदी : जंगली चिंचोडा; गुजराती : पतोला; कन्नड : किरीपोडळाकाई, वेत्तड पडवळ; संस्कृत : पटोल; लॅटीन : ट्रायकोसँथस कुकुमारिना).

ही रानटी, वर्सभर जगपी वाल भारत, श्रीलंका, मलेशिया, उत्तर ऑस्ट्रेलिया आदी वाठारांनी झोंपांचेर आनी वंयांचेर वाडिल्ली दिसता. तिच्या खोडार कातरे आनी केंस आसतात. पानां व्हड आनी विभागिल्लीं आसून तांच्यो कडा दांतेरी आसतात. फुलां धवीं आसतात. म्हदुफळ २.५-७.५ सेंमी. लांब आनी दोनय तोंकाकडेन अशीर आसता. फळाच्या पाचवे पातळ सालीचेर धवे पटे आसतात. पूण पिकतकूच ते केंसरी रंगाचे जातात. बी लांबशी, वाटकुळी आनी थपकटी आसता. फळ कोडू झार आसून तें रौम्य आनी रेचक आसता. तरणे खांदयेचो आनी सुकिल्ल्या

फुलांचो काडो साकर घालून पचनक्रिया सुदारपाखातीर दितात. पानां वांतिकारक आनी मुळां खर रेचक आसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**पड्डो पद्दत :** (पळेयात बुरखो).

**पणजी :** गोंय राज्याचें राजपाटण. हें शार तिसवाडी तालुक्यांतल्या मांडवी न्हंयेचे दक्षिण देगेचेर दावेवटेन वसलां. गोंय हें घटक राज्य जावंचे पयलीं आदल्या गोंय, दमण आनी दीव ह्या केंद्रशासित प्रदेशाची ती राजधानी आशिल्ली. तशेंच पुर्तुगेजाच्या शेकातळा आशिल्ल्या आदल्या गोंयची ती उपरांतची राजधानी आशिल्ली.

पणजी ह्या नांवाच्यो जायत्यो उत्पत्त्यो आसात. एके उत्पत्ते प्रमाण पणजानीखळी (पणजा = पनेळ, खळी = उदका व्हाळ) म्हळ्यार उदकाची येरादारी आशिल्लें ठिकाण. दुसरे एके उत्पत्ती प्रमाण पोंजी (सुपीक भूंय) ह्या उतरावयल्यान पणजी हें उतर घडलां. १८४३त पुर्तुगेजांनी जेन्ना आपली राजधानी व्हडल्या गोंयासावन पणजे हाडली, तेन्ना तिका नवें गोंय (नोवा गोवा) हें विशेशण (नांव) दिलें. पणजेचो सगळ्यांत आदलो उल्लेख मेळटा तो त्रिभुवनमल्ला ह्या कदंब राजाच्या शिलालेखांत (११०७). ताचेप्रमाण कदंबाचो कारभारी गंद गोपाल केलिमा पणजेचो कारभार तेन्ना पळयतालो. शष्ठदेव दुसरो ह्या कदंब राजाच्या काळांत कल्पा आनी उपरांत ताचो पूत नगना पणजेचो कारभार पळयतालो. मुसलमान राजवटीच्या काळांत युसूफ आदिलशहान पणजेंत किल्लो बांदून तो सैनिकी तळ केलो. १५१०त आफोंस आल्बुकेर्कान गोंय जिखल्या उपरांत पणजे हें सैनिकी ठाणें जालें. पुर्तुगेज वसणुककार १५१० वर्सा गोंयांत पावले तेन्ना पणजी हो ताळगांव म्हालाचो एक ल्हानसो वांटो आशिल्लो. मांडवी न्हंयेचे देगेर पंदराव्या शेंकड्यांत आदिलशहान उबारिल्ल्या किल्ल्याभायर थंय कांयच नाशिल्लें.



शंबर वर्सां पयलींची पणजी

१७व्या शेंकड्यामेरेन पणजे हें मुखेल करून नुस्तें मारप्यांचें रावपाचें ठिकाण आशिल्लें. पोरन्या गोंयांत पडिल्ले प्लेगाचे धामीक लागून १७५९त पुर्तुगेज व्हायसरॉयाचो राबितो पणजेंत जावपाक लागलो. ल्हव ल्हव करून प्रशासकीय कार्यालयां पणजेंत आयलीं. तेन्ना सावन पणजेची लोकवसती वाडूंक लागली आनी एक शार म्हणून ताचो विस्तार जायत रावलो. १६३२त रायबंदर ते पणजी हो रस्तो आनी पोंत द लिन्यारिश (पाटो पूल) तयार जावन पणजी रायबंदराक जोडली. १८४३त ती पुर्तुगेज इंडिया ह्या गोंयच्या पुर्तुगाल वसाहतीची कायदेशीर राजधानी म्हणून जाहीर जाली.

१९व्या शेंकड्याचे सुरवेक पुर्तुगेज गव्हर्नराचो राबितो म्हणून दोनापावला मांडवी न्हंयेच्या सामक्या तोंडार काबो पॅलेस (आताचें काबो राज निवास) हें गोंयच्या गव्हर्नराचें वसतीस्थान जालें. गोंयच्या स्वातंत्रा उपरांतूय गोंयच्या गव्हर्नराचें तेंच वसतीस्थान आसा. आदिलशहाच्या पणजेच्या राजवाड्याचें १८४३ वर्सा सावन पुर्तुगेजाचें सचिवालय आनी १९६१ वर्सा सावन स्वतंत्र गोंयचें सचिवालय आनी उपरांत विधानसभा जालें.





आधुनिक पणजी

सद्याक सचिवालयांतच विधानसभेचें कामकाज चलता. पूण हाचेफुडें,

पर्वरी हांगां विधानसभेखातीर स्वतंत्र वास्तू निर्माण करपाचो वावर चालू आसा.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन त्या वाठाराच्या वाडट्या म्हत्वाक लागून चड आनी चड पुर्तुगेज लोक रावंक येवपाक लागले. ताणीं नव्यो इमारती आनी रुंद रस्ते बांदले. तेंचपरी पणजी भागाचो विस्तार रायबंदर ते सांव पेद्रू मेरेन वाडयलो. अशेरितीन पणजी वाठाराक शाराचो दर्जो प्राप्त जावन ताचो 'नोवा गोवा' म्हणून उल्लेख जावपाक लागलो. उपरांत आयिल्ल्या वेगवेगळ्या गव्हर्नरांनी गरजेप्रमाण त्या शाराची सुदारणा करून ताची शान वाडयली. १९ डिसेंबर १९६१ दिसा गोंय प्रदेश पुर्तुगेज शेकातळांतल्यान मुक्त जालो, तेन्ना दमण आनी दीवा वांगडा ताचो भारताच्या केंद्रशासीत प्रदेशांभितर आस्पाव जालो. गोंय मुक्ततायेउपरांत लेगीत पणजी शारूच गोंयची राजधानी उरली. गोंय, दमण आनी दीव प्रदेशांतल्या मुखेल शारांचो विकास करपाखातीर १९६४त नगर नियोजन विभागाची उबारणी जाली. त्या विभागाचे देखरेखीखाला पणजी शाराचो खूब विकास जालो.

पणजे शार ही गोंय राज्याची राजधानी जाल्ल्यान, हांगा सरकारी (राज्य आनी केंद्र) खात्यांच्यो मुखेल कचेरी आसात. एक रेडियो केंद्र आनी एक टी.व्ही. केंद्र आल्तीनो दोंगुल्लेचेर आसा. हेराल्द (इंग्लीश), नवप्रभा (मराठी), द नवहिंद टायम्स (इंग्लीश) आनी गोमन्तक (मराठी) ह्या दिसाळ्यांचो पुराय वेव्हार (संपादन, प्रकाशन, छापणावळ, वितरण) हांगाच्यान जाता. तेभायर हेर थळाव्या आनी राश्ट्रीय दिसाळ्यांचीय हांगां कार्यालयां आसात.

कांपाल वाठारांतलें आधुनिक सुखसोयींनी सज्ज अशें कला अकादमी हें संकूल देशांतली कलेच्या मळावेली एक नामनेची आनी सोबीत वास्तू आसा. ताळगांव पठाराचेर गोंय विद्यापिठाची तशीच सोबीत वास्तू आसा. तिका तेकून इंटर नॅशनल सेंटर - गोंयची वास्तू आसा. दोना पावल हांगा राश्ट्रीय सागर विज्ञानाचें मुखेल कार्यालय आनी संशोधन संस्था आसा.

गोवा वैद्यकी महाविद्यालय हें गोंय स्वतंत्र जावचेपयलीं स्थापन जाल्लें खूब पोन्ने महाविद्यालय आदीं कांपाल हांगा आनी आतां आधुनिक रुपांत बांबोळे पठाराचेर वसला. थंयच एक डेंटल महाविद्यालय आसा. एक कला आनी विज्ञान, एक वाणिज्य, एक फार्मसी, एक वास्तुशास्त्र, एक शिक्षण, एक फायन आर्ट, एक होम सायन्स, एक कायदो, एक संगीत अशीं णव महाविद्यालयां पणजेंत आसात.

सेंट्रल लायब्ररी आनी सरस्वती मंदीर हीं वाचनालयां आसात. एक क्षयरोग प्रतिबंधक हॉस्पिटल आनी एक मनोरुग्ण सुश्रुशा केंद्र आसा. इन्स्टीट्यूट मिनिझेस ब्रागांज, स्वामी विवेकानंद केंद्र, गोमंतक मराठी अकादमी, गोवा कोंकणी अकादमी, टी. बी. कुन्हा ट्रस्ट, नवजिवन सोसायटी, श्री ओरो बिंदो सोसायटी ह्यो सामाजीक, साहित्यीक मळार वावुरपी संस्था. श्री महालक्ष्मी मंदीर, श्री हनुमान मंदीर, श्री विठोबा मंदीर, मेरीइमाक्यूलेट चर्च आनी एक मशीद ह्या शारांत आसा. भूलशास्त्राचो जनक आबे फारीय आनी स्वतंत्र गोंयचो पयलो मुखेलमंत्री दयानंद बांदोडकर हांचे पुतळे सचिवालयाच्या कुशीक आसात. तशेंच आझाद मैदानाचेर हुतात्मा स्मारक उबें आसून सुटके झुजारी टी. बी. कुन्हा अवशेश स्मारक आसा.

मिरामार वेळ आनी दोना पावल हीं दोन पर्यटक थळां आसात. पणजी शार आंतरराज्य म्हामार्गांक जोडिल्लें आसून, पणजी-मुंबय अशी बोट सेवा उपलब्ध आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पणशीकर, वासुदेव लक्ष्मण :** (जल्म : १८६०, पणशी; मरण : १९३७).

एक नामनेचो ग्रंथसंपादक. ताचो जल्म एका पंडिती घराण्यांत जालो. पिरायेच्या चाळीस वर्सां उपरांत ताणें बरोवपाक सुरवात केली. निर्णयसागर प्रेसांत जीं धर्मीक पुस्तकां छापताले थंय धर्मीक ग्रंथांचें आनी संत साहित्याचें संपादन करपाचें काम ताचेकडेन आशिल्लें. १९०३ वर्सा ताचो 'तुकारामाची गाथा' हो ९१० पानांचो ग्रंथ उजवाडाक आयलो. तेभायर शिशुपालनधर्म (५४६ पानां), वेदस्तुति, निर्णयसिंधुचें मराठी भाशांतर (६८५ पानां) सारक्या धर्मीक ग्रंथांचें ताणें संपादन केलें.

ताणें 'ऋषिपंचमी', 'मंगळागौरी', 'सोमवती', 'संकष्टी', 'शिवरात्री', 'वरदलक्ष्मी' आदी परबेच्या पुजेपाठाच्या कथांच्यो ल्हान ल्हान पुस्तिका बरयल्ल्यो. ताचें सगळ्यांत व्हडलें कार्य म्हळ्यार 'रत्नाकर' ह्या ग्रंथाचें संपादन. ह्या ग्रंथाचें ताणें कृष्णाजी सोमण हाचे वांगडा शुद्धीकरण तशेंच संपादन केलें.

ताणें आपलें पुराय जिवीत संस्कृत ग्रंथांच्या संपादनांत, अणकारांत आनी शुद्धीकरणांत घालयलें. ताच्या 'तुकारामाची गाथा' ह्या ग्रंथाच्यो २५ वर्सांमदीं पांच आवृत्त्यो आयल्यो.

– कों. वि. सं. मं.

**पणस** (झाड आनी फळ) **:** (मराठी : फणस; हिंदी : कठल; गुजराती: वाणस; कन्नड : हळसू; संस्कृत : कंटफल आनी स्कंदफल; इंग्लीश : जॅकफ्रूट).

ह्या झाडाचो आस्पाव मोरेसी कुळांत जाता. सदांच पाचवोचार आसपी पणसाचो रूख सुमार १० ते २५ मी. मेरेन ऊंच वाडटा. ह्या रुखाची साल खडबडीत आसता आनी तिका बारीकसारीक अशो खूबच वेरो आसता. पानां पाचवींचार आनी वयल्यान चकचकीत आसतात. तांची लांबाय सुमार १० ते १२ सेंमी. इतली आसता. तांचो आकार लांब-वांटकुळोसो आसता आनी खांदयेचेर तांची रचणूक एका आड एक अशी आसता. फुलां नवे आयिल्ले खांदयेच्या मुळांत वा खोडांतल्यान येतात. नर फुलांचो चोंबो सदांच मादी फुलांच्या चोंब्या वयर येता. फुलां चड करून डिसेंबर-जानेवारी म्हयन्यांत येतात. मादी फुलां चड करून मोटव्या आनी घट्ट अशा फांट्यामदीं येतात. एकाच देंठाचेर आयिल्लीं साबार फुलां एकठांय वाडून उपरांत तांचे लांब वाटकुळें अशें जोड फळ तयार जाता. मध्यम फळाक कुंवलो जाल्यार जून जाल्ल्या फळाक पणस अशें म्हण्टात. जून जाल्ल्या फळाची कात दाट आसून तिका भायलेवटेन कांटे आसतात. दाट कात (चारखण) आशिल्ल्या ह्या फळाभितर साबार सादीं पूण मासाळ अशीं फळां आसतात. तांकां गरे अशें म्हण्टात. जण एका गऱ्याभितर एकूच बी आसता तिका भिकण अशें म्हण्टात. हें भिकण लांब-वांटकुळें आसता आनी ताचें एक दाब व्हड आनी दुसरें ल्हान आसता.

भारतांत सुमार २६ हजार हॅक्टर जमनींत पणसाची लागवड जाता.

भारताभायर उदेंत आशियांतल्या उश्ण प्रदेशांत म्हळ्यार श्रीलंका, मलेशिया आनी इंडोनेशिया ह्या देशांनी आनी ब्राझील देशांतूय हाची चड प्रमाणांत लागवड जाता. भारतांत पणसाची लागवड अस्तंत घाट, कोंकण, गोंय आनी उत्तर कारवाराक चड प्रमाणांत जाल्या. तेचपरी अस्तंत बंगाल आनी बिहारांतूय ह्या फळझाडाची लागवड व्हड प्रमाणांत जाता. अस्तंत भारताच्या दर्यादेगांच्या प्रदेशांनी घरांभोंवतणीं आनी कर्नाटक, तमिळनाडू ह्या राज्यांनी काफी, सुपारी आनी मिरयांच्या मळ्यांनीय सावळेखातीर पणसाचे रूख लायतात. गोंयांत पणसाची लागवड रीतसर केल्ली ना. हांगा घरांभोंवतणीं, पोरसां, कुळागरां आनी भाटां ह्या सुवातांनी पणसाचीं झाडां दिश्टी पडटात.



अस्तंत घाटार पणसाचें प्रमाण चड आसा आनी ह्या झाडाचें मूळ ह्याच वाठारांत आसा अशें मानतात. भारतांत ह्या झाडाची लागवड पुर्विल्ल्या काळासावन जाताली हाचे कांय पुरावे मेळ्ळ्यात. आठव्या शेंकड्यांत चीनी भोंवडेकार ह्युएन त्सांग हाणें भारतांत पणसाची लागवड आशिल्ल्याचो उल्लेख केला. सव्या शेंकड्यांत बृहत्संहितेंत पणसाचो उल्लेख वृक्षायुर्वेदांत केल्लो आसा.

**प्रकार** - सादारणपणान पणसाचे दोन प्रकार आसात. एक 'कापो' आनी दुसरो 'रसाळ'. काप्या पणसाची साल दाट आनी मातशी घट्टूय आसता. सालीचे कांटे रसाळ पणसापरस उणे आसून पणस पिकल्यार लेगीत तो दामना. काप्या पणसाचे गरे घट्ट आनी खुसखुशीत आसतात. रसाळ प्रकाराचे गरे मोव आनी म्होंवाळ आसतात. रसाळ पणसाची साल पातळ आसून तिचेर कांटे चड आसतात. पिकिल्ल्या रसाळ पणसाची कात मोव आसून ती बोटां रोमून लेगीत फोडूं येता.

रुद्राक्षी हो प्रकार तमिळनाडूंत लागवडींत आसा. ताचीं फळां ल्हान आसून सालीचेर उणे कांटे आसतात. ह्या प्रकारांत बियांसावन लागवड केली जाल्यारूय झाडांचे खाशेले गूणधर्म तशेच उरतात. सिंगापूरी वा श्रीलंका हो प्रकार हालींच्या तेंपार भारतांत लागवडीखाला आयला. सादारणपणान अडेज ते तीन वर्सांभितर ताका फळां येतात. तांकां सप्टेंबर ते डिसेंबर ह्या काळांत फळां येतात. तांचो आकार सादारणपणान थळाव्या पणसायेदोच आसता.

कापो आनी रसाळ ह्या थळाव्या दोन प्रकारांभितर फळाचो आकार, वास, गोडसाण आनी रूच हांचेवयल्यानूय वेगवेगळे प्रकार करूं येता. ह्या प्रकारांच्या आदारान सुदारीत कलमांय करपाक मेळटात. तांच्या खाशेल्या प्रकारांक लागून कांय पणसांक गुलाब, चंपा, हजारी ह्या थळाव्या नांवांनी वळखतात.

हालींच्या तेंपार 'तमीळनाडू एग्रीकल्चरल युनिवर्सिटी' ह्या फलसंशोधन केंद्रान एकूच गूणधर्म आसपी फळां मेळचीं म्हणून कलमां लावन पणसाची लागवड केल्ली आसा. ह्या पणसाच्या रुखाक 'पॉलर' अशें म्हण्टात. पॉलर हो सादारणपणान १०-१२ मी. उंचाय आशिल्लो रूख. ह्या प्रकाराच्या जण एका रुखाक सरासरी ४० फळां जातात. तांचें वजन १०-१२ किग्रॅ. इतलें आसता. पॉलर रुखाक वर्सांतल्यान दोन खेपे फळां येतात. वट्ट पिकावळींतलीं चडशीं फळां एप्रिल-मे ह्या तेंपार येतात आनी सुमार पिकावळीचो चवथो वांटो नोव्हेंबर म्हयन्यांत येता.

**लागवड** – पणसाची लागवड मुखेलपणान बियांसावन करतात. पणसाची बी रोवचे पयलीं १ मी. खोल आनी १ मी. रूंद फोंड १० दीस आदीं खणचो पडटा. उपरांत सुमार २० किग्रॅ. गोबांड्डें आनी अर्द किलो सुपर फॉस्फेट हें सारें मातयेंत मेळून हो फोंड पुरचो पडटा. पावसाळ्यांत बी रोयले उपरांत फोंडांत उदक सांचचें न्हय म्हणून माती नेटान चेपची पडटा. मूळ नाजूक आशिल्ल्यान पणसाच्या रोंप्याची लागवड करता आसतना खूब जतनाय घेवंची पडटा. पणसाचीं वेगवेगळीं कलमां करूनूय तांची लागवड करतात. बरो रूख तयार जावपाक आनी बरीं फळां धरपाक उश्ण, दमट हवामानाची आनी मध्यम प्रमाणांत पडपी पावसाची गरज आसता.

पणसाचे रोंपे रोयले उपरांत सुमार सात ते आठ वर्सांनी रुखाक फळां धरपाक लागतात. कलम लायल्यार ४-५ वर्सांनी फळां धरतात. सुरवेक फळां मातशीं ल्हान आनी उण्या प्रमाणांत धरतात. सादारणपणान दर एका पणसाच्या रुखाक २५ ते २०० मेरेन फळां धरतात. तशेंच दर एका फळाचें वजन ५ ते २० किग्रॅ. मेरेन आसूंक शकता.

पिंक डिसिझ, स्टॅम रॉट, मेल इंफ्लोरॅसॅन्स रॉट आनी सॉफ्ट रॉट हे पणसाच्या रुखाक आनी फळांक जावपी मुखेल रोग. साबार खेपे ब्राउन विवील ही कीड पणसाचे तरणे कोंब आनी आंकऱ्यो खाता. कांय वेळार रुखाक रोंथो लागून तो पणसाचें खोड पोखरता. किडींक वा रोंथ्याक मारून रूखाची नाशाडी थांबोवं येता.

**उपेग** - तरण्या पणसाचो (कुवल्याचो) चाखो, सुशेल ह्या नांवाची भाजी करतात. पिकिल्ल्या पणसाचे गरे खावपाक वापरतात. पिकिल्ल्या पणसाच्या गऱ्यापसून (रसाळ) धोणस, सान्न, पापड, जॅम, जॅली, सरबत हे प्रकार करतात. तशेंच, काप्या पणसाचे गरे तळटात. गोंयांत तशेंच गोंयाभायर साट आनी तळिल्ल्या गऱ्यांक खूब मागणी आसा. तरण्या रसाळ गऱ्यापासून सालां करतात. हीं सालां मिठाच्या उदकांत घालून दवरतात. पणसाच्या पानाच्यो पत्रावळी करतात. पणसाचें लाकूड म्हणजे उत्कृश्ट मदेर. पणसाच्या मदेराक वाळटी लागना. तरेकवार लाकडी वस्तू करपाखातीर हाचो वापर करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**पणियन :** दक्षिण भारताच्या केरळ राज्यांतली एक आदिवासी जमात. हे लोक चड करून मलबार आनी निलगिरी ह्या प्रदेशांनी आसात. तशेंच पालघाट, कोझिकोडे आनी कन्नोर ह्या जिल्ह्यांनीय पणियन लोकांची वसती आसा. तमीळनाडू आनी कर्नाटक ह्या राज्यांनीय हे लोक आसात.

पणियन ह्या शब्दाचो अर्थ कामगार असो जाता.

पणियन लोकांचे मूळ सुवातेविशीं निश्चीत अशी म्हायती मेळना. पूण

तांच्यो कांय दंतकथा आसात. कांय जाणांच्या मतान हे लोक मूळचे आफ्रिकी आसून भारताच्या अस्तंत किनाऱ्याचेर कांय अपघाती कारणांक लागून आयले अशें एक मत आसा. पयलीं आफ्रिकेंतल्यान कांय गुलाम हाडून ते अस्तंत दर्यादेगांचेर विकताले. तातूंतलेच हे पणियन आसूं येत असोय एक समज आसा.

तमीळ आनी तुळू शब्दांच्या मिश्रणांतल्यान तयार जाल्ली अपभ्रंश मल्याळम भास ते उलयतात. पूण चडशे लोक कन्नड भास उलयतात.

हे लोक काळे, मोटवे, रूंद नाकाचे आनी कोंगऱ्या केंसांचे आसतात. हे लोक पितूळ, तांबें ह्या धातूंच्यो मुदयो बोटांत घालतात. शेतालागसारूच कोंड्यांच्यो खोंपी बांदून रावतात.

तांचें 'शीत' हें मुखेल अन्न आसून उंदीर, सोरोप, माकोड हेय प्राणी ते खातात. कुल्यो खाल्यार टक्कल पडना आनी केंस पिकनात असो तांचो समज आसा.

काडू भगवती आनी काली ह्यो तांच्यो मुखेल देवता आसून, शिव, शास्ता, गणपती हांकांय ते भजतात. तशेंच झाडांपेडां, जनावरां, भुतांखेतां हांचेवांगडा आत्म्याच्या अमरत्वाचेरूय तांचो विस्वास आसा. ते स्वताक हिंदू समजल्यान हिंदूंचे सण-परबो मनयतात. तांचो देव कसल्याय झाडापोंदा फातराच्या रुपान पुजिल्लो आसता. ताका शिताचो वा नाल्लाचो निवेद्य दाखोवन दक्षिणाय दवरतात.

पणियन लोकांभितर पितृसत्ताक कुटूंबपद्दत आसून स्वतंत्र कुळां नात. पिरायेंत येतकूच भुरग्यांचीं लग्नां करतात. लग्नांत व्हंकलेचें मोल दिवपाची चाल आसा. चल्याचो आवय-बापूय चली पसंत करतात. लग्न-सुवाळो सादो आसता. कोणूय जमीनदार पुरयतपण करता. न्हवऱ्याच्या नात्यांतल्यो बायलो व्हंकलेच्या गळ्यांत ताळी बांदतात. पुरयत न्हवऱ्या-व्हंकलेच्या माथ्यार आनी पांयांचेर उदक घालता आनी लग्नसुवाळो सोंपता. लग्नांत जेवण जातकूच बायलो नाच करतात. तांचेमदीं अपहरण, सहपलायन, जबरी, क्रय अशे लग्नाचे प्रकार आसात. घटस्फोटीत बायलेक दुसरे खेपे लग्न जावपाक मेळटा.

बायल गुरवार आसतना खास असो कसलोच सुवाळो हे लोक करिनात. बाळंटीण धा दीस सुवेर पाळटा. बापूय वा जाण्टी व्यक्ती भुरग्याक नांव दवरता. म्हयनो जावचेपयलीं भुरग्याचे कान तोपतात.

पणियन लोक मडीं पुरतात. थंय थोडें शीत दवरून वयल्यान शेंदरी घालतात. सातव्या दिसा मनशाक पुरिल्ल्या जाग्यार एकठांय येवन नाच करतात. सोळा दीस सुतक पाळटात. ह्या दिसांनी मास खायनात. दिसाक दोन खेपे न्हातात. मृतात्म्याची बादा जावची न्हय म्हणून मेल्ले व्यक्तीचो चलो हात, पांय आनी कमराक मंतरिल्लो दोरो बांदता. माघ म्हयन्यांत मेल्ल्यांखातीर तर्पणविधी करपाची तांचेमदीं चाल आसा.

जमातींतल्या मुखेल्याक लोक 'कुट्टन' म्हण्टात. लग्नाविशीं लोक ताचो सल्लो मानतात.

शेतकाम, शिकार आनी नुस्तेमारी हे तांचे मुखेल वेवसाय आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**पणी :** एक पुर्विल्लो आर्येतर जनसमूह. यास्कान आपल्या निरुक्तांत 'पणिर्धणिग्भवति' – पणी म्हळ्यार वेपार करपी. 'पणयः वणिजः' – पणी म्हळ्यार वाणी अशें सायणाचार्यान म्हळां. वेपार करप ह्या अर्थान आशिल्ले पण आनी वण हे शब्द मुळांत जलवाचक आसात. तांचेवयल्यान पणी हे उदकामार्गान वेपार करपी आनी उदकाकडेन सतत संबंद दवरपी लोक आशिल्ले अशें म्हण्टात.

दास आनी दस्यू हांचे फाटोफाट पणी हे वैदिक आर्यांचे दुस्मान आशिल्ले. ऋग्वेदांत पणीविशीं वर्णन आसा तें अशें –

न्यक्रतून् ग्रथिनो मृध्रवाचः पणीरँश्रध्दां अवृधाँ अयज्ञान्
प्रप्र तान् दस्यूँरग्निर्विवाय पूर्वश्चकारापराँ अयज्यून् ॥

**अर्थ** – यज्ञविरोधक, भितल्ल्या गांठीचे, नाकसुरें उलोवपी, अश्रध्द, कंजूस, भक्तिहीन आनी देवाक ना भजपी अशा पणीक अग्नीन लासून उडयले. अग्नीन तांचे मुखार वचून त्या यज्ञ करिनाशिल्ल्या दुश्टांक नश्ट केले.

पणीची संपत्ती आर्यांक उपेगी पडनाशिल्ली. पणी हे कोण हेविशीं विद्वानांमदीं एकमत ना. ऋग्वेदांत तांकां असूर म्हळ्यात. कांय जाणांच्या मतान ते आशियाच्या अस्तंत शिमेवयल्या फिनीशिया देशांतले आसात. त्या तेपार फिनीशियी लोक पणीवरीच वेपार करताले आनी ते भूमध्य दर्याच्या देगेवयल्या वाठारांत रावताले. तांचेमदीं वर्ण साम्यूय आसा.

डॉ. अ. स. अळतेकर हाच्या मतान भारतांत राबितो केल्ले आनी ऋग्वेदांत उल्लेख केल्ले पणी हे हडप्पा संस्कृतीचेच लोक. निदान तांच्यांतलो एक वर्ग तरी सिंधु प्रदेशांत रावतालो आनी ताणींच हडप्पा संस्कृताय निर्माण केली. ऋग्वेदांत पणी हे वेपारी आनी खूब गिरेस्त अशें वर्णन मेळटा. हडप्पा संस्कृतायेचेय लोक अशेच आशिल्ले. श्री. घोष हाणें केल्ल्या संशोधनांत घग्घर न्हंयेचे देगेर हडप्पा संस्कृतायेचे अवशेश मेळ्ळ्यात. ही घग्घर न्हंय म्हळ्यारूच ऋग्वेद काळांतली सरस्वती न्हंय. तिचेच देगेर आर्यांनी पणींचेर व्हड हार घाली असो ऋग्वेदांत उल्लेख मेळटा.

आ. ना. देशपांडे 'हडप्पा संस्कृतीचे लोक' म्हळ्यार पणी अशेंच आपलें मत मांडटा. तेखातीर ताणें सिंधू वाठारांतल्या लोकांची आनी ऋग्वेदांतल्या पणींची तुळा करून दाखयल्या. आर्यांनी पणीचीं शारां चूड लावन पेटयलीं अशें ऋग्वेदांत आसा. सिंधुच्या उत्खननांत अशें जळिल्लें दार मेळ्ळां. ऋग्वेदांतलें हरियूपिया हें शार म्हळ्यार हडप्पा. तें दोन भागांनी विभागलां अशें वेदांत म्हळां. हडप्पाय दोन विभागांनी विभागिल्लें आनी घट तटबंदी आशिल्लें उत्खननांत मेळ्ळां. अशेतरेन उत्खननांत मेळिल्ल्यो खुबशो गजाली ऋग्वेदांत वर्णन केल्ल्या पणीकडेन जुळटा आशिल्ल्यान तेच पणी आसूंक जाय अशें विद्वान आपलें मत मांडटात.

पणी हे यज्ञ करिनाशिल्ले, तेचपरी तांचेकडेन खूब धन आसतालें. हें धन आर्यांक उपेगी पडनाशिल्लें देखून वैदिक आर्यांक तांचो त्रास जातालो. म्हणून ताणीं पणीक मारपाविशीं देवांक प्रार्थना केल्ली. ऋग्वेदांत तांची म्हायती मेळटा ती अशी : ते पुरांत रावताले. तांचीं घरां शंबर दारांचीं, व्हड, सगळ्या सुखसोयींनी आनी चैनीच्या वस्तूंनी भरिल्लीं आसतालीं. तांची आस्पत तीन तरांची आसताली. १) गाय, घोडे आनी हेर पशुधन २) धान्याचे सांठे ३) भांगर, मोलादीक मणी, वज्रां आनी हेर वस्तू तांचेकडेन सुमाराभायर आसताल्यो. तशेंच वेगवेगळ्या तरांचीं भरपूर गोरवां आसतालीं. तांचेकडेन घोडेय भरपूर आसताले. सिंधुचे उदेंतेकडल्या वाठारांतल्या उत्खननांत घोड्यांचे सांगाडे मेळ्ळ्यात.

पणी हे जशे वेपारी तशेंच शेतकामतीय आशिल्ले. ते भरपूर धान्य पिकोवन तें साठोवन दवरताले. क्षेत्र आनी उर्वर अशीं तांचीं दोन तरांचीं

शेतां आसतालीं. तांचेकडेन अजापभरीत जावपासारकें भांगर आनी वज्रां आशिल्लीं. तांच्या बायलांकूच न्हय जाल्यार दादल्यांकय भांगराचे अलंकार घालपाची आवड आशिल्ली. ते चड करून न्हंयेचे देगेर रावताले आनी हुंवाराचें उदक नगरांत येवचें न्हय देखून आपलीं घरां उंचायेचेर बांदताले. शारा भोंवतणीं खोल व्हाळ खणून तातूंत उदक भरून दवरताले. ताका लागून दुस्मानाक तांचेर हल्लो करपाक त्रास जाताले. पणीचो एक कुयव नांवाचो राजा आशिल्लो. ताच्या राबित्याक तीन न्हंयांच्या प्रवाहांनी रेवाडो घातिल्लो. ह्यो तीन न्हंयो म्हळ्यार शिफा न्हंयेचे तीन फांटे. तांकां व्हडें चलोवपाची कला खबर आशिल्ली. ल्हान व्हड व्हड्यावरवीं तांचो पयस पयस वेपार चलतालो. वेपार धंद्याखातीर भोंवतना तांचेमदले जायते पंगड गोरवां चोरपाचें काम करताले आनी हाका लागून तांचेर झुजाचे प्रसंग येताले. तातूंत तांकां चड करून अपयेसूच मेळटालें, अशें वर्णन ऋग्वेदांत मेळटा.

वैदिक आर्य तांकां आपले दुस्मान मानताले. पणीक ना करपाखातीर ते परत परत देवाची प्रार्थना करताले. पणींनी अंगिराचीं गोरवां व्हेलीं आनी तांचो सोद लावपाखातीर इंद्रान सरमा नांवाचे दुतीक ताचेकडेन धाडली अशें वर्णन ऋग्वेदांत आसा. पूण गोरवां उबारून व्हरपाची गजाल पणीपरस वैदिक आर्यांनीच चड प्रमाणांत केली अशें ऋग्वेदांतल्या जायत्या उल्लेखांवयल्यान कळटा. पणीचें गोधन लुटपावयल्यानच आर्यांनी तांचेकडेन वाद सुरू केलो. गोरवां उबारून हाडपाखातीर जीं झुजां जातालीं तांकां गोषुयुधम वा गोसाता म्हण्टाले. वैदिक आर्य पशुधनावांगडाच धान्यसांठेय लुटून व्हरताले. अशा अन्नाचे सांठे लुटपाखातीर जीं झुजां जातालीं तांकां वाजसाता म्हण्टाले. आर्यांच्या आनी पणींच्या अशा झुजांत पणींचें सुमाराभायर नुकसान जालें. तांचो समाज विस्कळीत जालो. जायत्या जाणांक आर्यांचें दास्यत्व आपणावचें पडलें. फुडें पणींतले कांय लोक दक्षिणेंत वचून रावले. कांय लोक हिमालयाच्या मुळसांत वचून रावले, जाल्यार कांय उदेंत भारतांत गेले. उदेंतेकडेन गेल्ले पणी ज्या वाठारांत गेल्ले थंय दाट रानां आनी रानटी लोकांची वसती आशिल्ली. थंय वतकूच ते स्वताची संस्कृती विसरून गेले. सद्या तांकां पणिकोच ह्या नांवान वळखतात.

जे पणी आर्यावर्तांत रावले ते आर्यांकडेन भरसून गेले. तातूंतल्या कांय जाणांनी आर्यांची भास आनी संस्कृताय आपणायली.

– कों. वि. सं. मं.

**पतंग :** एका मनोरंजक खेळांतलें खेळणें. पतंग ह्या फुलपाखराचे एकें जातीच्या आकारावयल्यान ताका हें नांव पडलें. इंग्लिशींत कायट ह्या पक्ष्याच्या आकारमाना वयल्यान पतंगाक कायट (Kite) हें नांव पडलें. दोन बारीक बडयो वा व्हीर, हांचेर कागद, प्लास्टीक वा कपडो दसोवन पतंग तयार करतात.

सादारणपणान पतंगाचो आकार हो चवकोनी आसता. पूण आधुनिक काळांत वेगवेगळ्या आकाराचे पतंग करतात. अशा पतंगाखातीर उबे बडयेचेर दुसरे बडयेची कमान करून ताचेर कागद, प्लास्टीक वा कपडो दसोवप जाता. उबे बडयेक एक सूत बांदून त्या सुताक पतंग मळबांत सोडपाक वापरपाचो दोरो बांदतात. ह्या बांदपांतल्यान पतंगाचो भार थारता. वट्ट पतंगाचो समतोल सादून पतंगाक वाऱ्याच्या ल्हारार उबपाक सोंपें जावचें म्हणून पतंगाक शेंपडी दसयतात. ह्याच कारणाक लागून कांयकडेन पतंगाक शेंपडेबदला वा शेंपडेवांगडा दोन कोनांचेर (कानांचेर) गोंडे बांदतात. देशाप्रमाण पतंगाचे प्रकार, आकार, रंग, मापां बदलतात. शेवणीं, मनीस, व्हडीं, पांखे, पेटी, ड्रॅगन अशा आकाराचे पतंग तयार केल्ले मेळटात. वाऱ्यार पतंग सोडप हो भोवतेक सगळ्याच देशांतलो एक आकर्शक क्रिडा प्रकार आसा.



इ. स. पयलीं पांचव्या शेंकड्यांतलो टरेण्टमचो ग्रीसी तत्त्वज्ञ आर्कार्यटस हाका पतंगाचो अधिकृत जनक मानतात. पूण ताचे पयलींय संवसारांत, विशेश करून आशिया खंडांत पतंगाचो वापर जातालो हाच्यो कुरवो मेळटात. इ. स. पयलीं २०६त चीनी सेनानी हान सिन हाणें झुजांत पतंगाचो वापर केल्याचो उल्लेख मेळटा.

सद्याक पतंग हें एक निखटें खेळाचें साधन जालां. विमानां, हवाई सत्र्यो, बोमाडे, ग्लायडर हांचे सारकिल्या अंतराळांत उड्डाण करपी साधनांचो सोद लागचे पयलीं अंतराळांतलें एक प्रसार माध्यम म्हणून पतंगाचो उपेग जाल्लो आसा. आदल्या काळांत विशेश करून झुजाच्या काळांत संदेश दिवपाचें काम पतंगावरवीं जाल्याचो उल्लेख मेळटा. तशेंच, उंचल्यान छायाचित्र घेवपाखातीर पतंगाचो उपेग जातालो. १७५२ बेंजामिन फ्रँकलिन ह्या नामनेच्या शास्त्रज्ञान वादळी विजेचो अभ्यास करून घेवपाचो प्रयोग करपाखातीर धातूची चावी बांदिल्लो पतंग वापरलो. १८९४त कॅ. बेडन पॉवॅल हाणें सुमार १० मी. उंचायेचो पतंग तयार करून ताचेवरवीं एका मनशाक सुमार ३० मीटर हवेंत वयर उबारपाचो प्रयोग केल्लो.

नायगारा धबधब्याचेर हुमकळपी पुलाची पयली सरी पतंगावरवीं घाली. विमानाचेर नाळींचे गुळे सोडपाच्या सरावाखातीर अमेरिकेंत पतंगाचो

वापर करप जातालो. ह्या शास्त्रीय उपेगावांगडाच पतंगाचो धर्मीक वापरूय जाल्लो मेळटा. रातच्या वेळार घरार पतंग सोडल्यार भूतबादा पयस जाता असो कांय देशांनी समज आसा.

पतंगाचे दोन तरेचे उपेग आसले तरी ताचे निर्मितीफाटलें मूळ कारण सांगप कठीण आसा. खेळाचें खेळणें म्हणून जल्माक आयिल्ल्या पतंगाचें फुडें अवकाश प्रसार माध्यम जालें काय अवकाश प्रसार माध्यमाच्या उद्देशान निर्माण जाल्लो पतंग उपरांत खेळणें जालें हाचेविशीं निश्चीतपणान सांगप जावचेंना.

विमान, ग्लायडर, हवाई सत्री सारकिल्ल्या साधनांची निर्मिती ज्या शास्त्रीय तत्त्वांचेर केल्या त्याच तत्त्वाच्या आदारान पतंगाचें उडप जाता. हवेचो दाब, पतंगाचें वजन आनी ह्या दोगांयमदलो पतंग तरंगपाक कामाक येवपी संयोग वाऱ्याच्या वेगाच्या प्रमाणाकडेन संबंद दवरता आनी ह्या संबंदांतल्यान वायूगतीकी नियमांवरवीं पतंगाचें हवेंत उडप जाता.

पतंगाचो खेळ भोवतेक सगळ्याच राश्ट्रांनी चलता. कोरिया, चीन, जपान आनी मलाया ह्या देशांनी पतंग हो राश्ट्रीय खेळ आसा. चीनांतल्यान पतंगाचो खेळ भारतांत आयलो अशें म्हण्टात. खूब शेंकड्यांआदीं सावन चलिल्लो हो खेळ उत्तर भारत आनी गुजरातांत चड लोकरुचीचो आसा.

मो त्सू आनी कुंगशू-फान (चीन, इ. स. पयलीं सवो-पांचवो शेंकडो), लॉरेन्स हारग्रेव (आस्ट्रेलिया, १८५०-१९१५), अलेक्झांडर ग्राहम बॅल (अमेरिका, १८४७-१९२२), फ्लॅचर बेडन-पॉवॅल (इंग्लंड, १८६०-१९३७), फ्रान्सिस रोगॅलो आनी डोमिना जॅलबर्ट (अमेरिका) पतंगाविशीं मोलाचें संशोधन केलां.

हालींच्या काळांत पतंग सोडपाच्यो सर्ती आयोजीत करतात. ह्या सर्तींमदीं चडांत चड उंचायेचेर पतंग सोडपाची तशेंच पतंगांमदीं झूज लावपाची सर्त आसता. दोन स्पर्धक आपले हिकमतीन एकमेकांच्या पतंगाक शह दितात. आनी पतंग पिंजप, दोरी तोडप असो हे सर्तीचो निकाल लागता. ते भायर वेगवेगळ्या आकाराचे, वजनाचे, मोदीचे पतंग तयार करून हवेंत सोडपाच्योय सर्ती जातात.

– कों. वि. सं. मं.

**पतंजलि** : इ.स.प. दुसऱ्या शेकड्यांत जावन गेल्लो व्याकरण-महाभाष्याचो कर्तो, योगदर्शनाचो प्रणेतो आनी आयुर्वेदांतले चरक परंपरेचो जनक. हो गोनर्द देशांत रावतालो अशें म्हण्टात. उत्तर प्रदेशांतल्या गोंडा जिल्ह्याक पयलीं गोनर्द अशें म्हण्टाले. पतंजलीन दक्षीणेंत चिदंबरमाक महाभाष्य बरयलें, अशी एक आख्यायिका आसा. ताचे आवयचें नांव गोणिका आशिल्लें, अशें म्हण्टात. ती तप करता आसतना तिच्या पोशांत विष्णुचो शेषनाग सुक्ष्म रूप घेवन पडलो आनी पोशांतलें उदक सकयल उडयता आसतना तो मनशाचें रूप घेवन जल्मलो. तो पोशांतलो पडलो म्हणून ताका पतंजली (पतन् + अंजली, अंजली = पोसो) हें नांव ताचे आवयन दिलें, अशी एक आख्यायिका प्रचलीत आसा. पतंजलीचें शिकप तक्षशिलेंत जालें आनी ताणें कितल्याशाच शास्त्रांचें गिन्यान मेळयलें. शुंगवंशाचो राजा पुष्यमित्र हाच्या यज्ञांत पतंजलीन पुरयतपण केल्लें, असो उल्लेख महाभाष्यांत आसा.

पाणिनीच्या अष्टाध्यायांतल्या सुत्रांचेर कात्यायनान वार्तिकां बरयलीं आनी ह्या सूत्र-वार्तिकांचेर पतंजलीन महाभाष्य बरयलें. हातूंत पतंजलीन व्याकरणांतल्या कितल्याशाच म्हत्वाच्या प्रस्नांचेर चर्चा करून कांय निर्णय दिल्यात. व्याकरणा वांगडाच तेन्नाची समाजीक, राजकीय, भुगोलीक परिस्थिती समजुपाक महाभाष्याचो खूब उपेग जाता. संस्कृत व्याकरण शास्त्राच्या इतिहासांत महाभाष्याची सुवात खूब व्हड आसा. पाणिनी, कात्यायन आनी पतंजली हांकां 'मुनीत्रय' अशें म्हण्टात.

पतंजलीच्या नांवार 'योगसूत्रें' ह्या नांवाचो योगदर्शनावयलो एक ग्रंथ नांवाजिल्लो आसा. योगसुत्रांचो रचनाकार पतंजली हो महाभाष्यकार पतंजलीपरस वेगळो आसूंक जाय अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. दोनूय ग्रंथांची भास आनी रचना पळेल्यार तांचो कर्तो एकूच आसूंक जाय, अशी शक्यताय आसा.

आयुर्वेदाची चरकसंहिताय पतंजलीन बरयली, अशें म्हण्टात. ते संहितेचें मूळ नांव 'आत्रेय संहिता' अशें आसा आनी कृष्ण यजुर्वेदाचे चरकशाखेचे पतंजलींन ते संहितेचें संस्करण केलें म्हणून ताका 'चरकसंहिता' हें नांव पडलें अशें मानतात.

– कों. वि. सं. मं.

**पतिव्रता** : आपल्या घोवाकडेन एकनिश्ठ रावपी बायल ही पतिव्रता. हिकाच सती, साध्वी अशेंय म्हण्टात. मनून मन, वचन आनी देह हांचेवरवीं आपल्या घोवाकडेन अव्याभिचार निश्ठेन वागपी बायलेक पतिव्रता म्हळां. पतिव्रत्यांतलें आनीक एक म्हत्वाचें तत्त्व म्हळ्यार कोणाय दादल्याकडेन लग्न जातकूच ताच्यांत किदेंय उणेपण वा व्यंग दिसलें तरी ताचेबगर हेर खंयच्याच दादल्याचो सपनांत लेगीत विचार करप ना. भारतांत जायत्या बायलांनी ह्या आदर्शाक पाळो दिल्ल्याच्यो देखी आसात. हिंदू कुटूंब वेवस्थेंत जायत्या बायलांनी वायट परिस्थितींतूय घोवाक साथ दिल्ल्याची आनी ताचीं संकटां आपल्याचेर घेवन वेळ पडल्यार जीव दिवपाचोय धीर दाखयला. पुर्विल्ल्या साहित्यांत पतिव्रत्याचो व्हड आदर्श दाखोवपी बायलो म्हळ्यार सीता, सावित्री, द्रौपदी, गांधारी आदी. राम-सीता वनवासाक गेल्लेकडेन रावणान सीतेक उबारून व्हरून पट्टराणी करपाचो मोह दाखयलो. पूण सीतेन ताका न्हयकार दिलो. सत्यवान अल्पायुषी आसा हें कळुनूय सावित्री ताचेकडेन लग्न जाली आनी फुडें ताचो प्राण व्हरूंक आयिल्ल्या यमाक प्रसन्न करून तिणें आपलो घोव परत मेळयलो.

गांधारेक जेन्ना आपलो घोव कुड्डो म्हणपाचें कळ्ळें तेन्ना तिणें आपल्या चित्तांत घोवाविशीं खंयचोच विपरीत भाव निर्माण जावचो न्हय देखून स्वताच्या दोळ्यांचेर सदांखातीर पट्टी बांदून घेतली. द्रौपदीन आपल्या पांच घोवांखातीर खर कश्ट आनी अपमान सोंसले. हरिश्चंद्राची बायल तारामती हिणें आपलो घोव विश्वामित्राच्या देण्यांतल्यान मुक्त जावचो देखून आपल्याक विकून घेवपाकूय उणे केलेंना.

कठीण प्रसंगार घोवाक साथ दिवप, संकटांपसून ताची राखण करप, ताचेकडेन एकनिश्ठ रावप आनी ताची सेवा करप हो खरो पतिव्रतेचो धर्म अशें धर्मशास्त्रांत म्हळां. जायत्या पतिव्रता बायलांनी आपल्या सतित्वाच्या बळार जायत्यो अद्‌भूत आनी असंभव गजाली केल्ल्याचीं उदारणां पुराणांनी आनी हेर ग्रंथांनी मेळटात.

– कों. वि. सं. मं.

**पत्ते आनी पत्त्यांचे खेळ (इस्पिको) :** खेळांतलो एक नामनेचो प्रकार. हो खेळ बसून खेळटात. हे पत्ते आयाताकृती आसून ते पातळ खड्ड्याचे वा प्लॅस्टिकचे आसतात. पत्त्याचे एके वटेन बदाम (हार्ट), इस्पीक (स्पेड), किल्वर (क्लब) आनी चौकट (डायमंड) ह्या चार प्रकारांतल्या विशिश्ट चिन्नांच्यो आकृत्यो वा आंकडे दाखयल्ले आसतात. फाटलेवटेन हे पत्ते सोबीत सजयल्ले आसतात. बदाम, इस्पीक, चौकट आनी किल्वर ह्या चार चिन्नांचे दरेकीं १३ पत्ते मेळून वट्ट ५२ पत्त्यांचो एक पॅक जाता. बदाम आनी चौकट ह्या चिन्नांचो रंग तांबडो तशेंच इस्पीक आनी किल्वर ह्या चिन्नांचो रंग काळो आसता. दरेका चिन्नाचे १३ पत्ते, एको, दुको, तिको, चवको, पांचको, सको, सातको, आठको, णवको, धाको हे आंकड्यांचे पत्ते (न्युमरल कार्डस्) आनी गुलाम, राणी, राजा हे दरबारी पत्ते (कोर्ट वा फेस कार्डस) हातूंत विभागिल्ले आसतात. दरेका पत्त्याच्या पानांत दोन पानां जोकराचीं आसतात.

वेळ वचपाचें एक म्हत्वाचें साधन म्हळ्यार पत्त्यांचो खेळ. हो खेळ घरांत खेळूंक मेळटा तशेंच पिकनिकेक, ट्रेनींत वा हेर कडेन वेळ वचपाक पत्त्यांचे तरेकवार खेळ खेळटात. तेचपरी क्लबांतूय हो खेळ खेळटात. ल्हान भुरग्यासावन वेगवेगळ्या पिरायांचे लोक पत्ते खेळटात. खेळाभायर भविश्याखातीर वा शकून काडपाखातीर पत्त्यांचो वापर करतात. एक शिक्षणीक साधन म्हणून पत्त्यांचो उपेग केल्लो दिश्टी पडटा. इतिहास, भुगोल, खगोलशास्त्र, राज्यशास्त्र, युध्दनीत, व्याकरण, संगीत आदी विशयांवयलें शिक्षण दिवपाखातीर खास शिक्षणीक पत्ते तयार केल्यात. पत्त्यांचे जादवांचे तशेंच हात चलाखीचे खेळ करतात.

कांय जाणांच्या मताप्रमाण पत्त्यांच्या खेळाचो उगम चीनांत इ. स. सातव्या तें धाव्या शतमानांत जाला आसुंये. सातव्या शतमानांत चीनांत कागदी चलनाचो वापर करताले. ह्या चलनाचोच चीनी लोक पत्त्यावरी वापर करताले आसुंये. पत्त्याचें चीनी नांव Chih Pai (कागदी तिकेटी). कांय जाण पत्त्यांच्या खेळाचो उगम भारतांत जाला अशें मानतात. पुर्विल्ल्या चर्तुर्भूज हिंदू देवांच्या हातांत चक्र, तरसाद, आयदन आनी दंड आसतालो. हातूंत आनी युरोपांत मेळिल्ल्या आद्य पत्त्यांवयल्या चिन्नांनी सारकेंपण दिश्टी पडटा. तशेंच पुर्विल्ल्या काळांत भारतांत नामना आशिल्ल्या दशावतारी (गंजीफा), बुध्दिबळ आनी पत्ते हातूंतल्या साम्यस्थळांवयल्यान (देखीक राजा, वझीर हेसारकीं चिन्नां) ह्या खेळाचो उगम भारतांत इ. स. ८०० च्या सुमाराक जाला आसुंये अशें म्हण्टात.

इटलींत १२९९ त पत्ते ज्ञात आशिल्ले आनी ते युरोपांतले सगळ्यांत आद्य पत्ते आशिल्ले. तांचेभितर ल्हव ल्हव बदल जावन तांकां सद्याचें रूप आयलां. इटालियन पत्त्यांक 'टारोट' वा 'टारोची' अशी संज्ञा आशिल्ली. ह्या पत्त्यांची संख्या ७८ आसताली आनी ते हातांनी रंगयल्ले आसताले. २२ आनी ५६ अशे पत्त्यांचे दोन भाग आसून, २२ पत्त्यांचो पॅक भविश्य सांगपाखातीर वापरताले. त्या पत्त्यांनी सद्याच्या जोकरावरी एक 'मूर्ख' आसतालो. बरें भविश्य सांगपी पत्त्यांवांगडा तो मेळ्ळ्यार ताका शुभ मानताले आनी वायट भविश्य सांगपी पत्त्यावांगडा मेळ्ळ्यार ताका अशुभ मानताले. २२ पत्त्यांचेर वेगवेगळीं चित्रां आसतालीं. ५६ पानी पत्ते चार भागांनी विभागिल्ले आसताले. त्या काळांतल्या मुखेल समाजीक वर्गाचीं चिन्नां दिवन हे भाग करताले. देखीक - 'कप' हें चिन्न क्रिस्तांव उपाध्यायांखातीर, तरसाद हें झुजारी वर्गाचें प्रतीक म्हणून, पयशे हें वेपारी वर्गाचें प्रतीक म्हणून आनी दांडो हें शेतकरी वा अधिकारी वर्गाचें प्रतीक म्हणून वापरताले.

वेगवेगळ्या देशांतल्या पत्त्यांचेर वेगवेगळीं चिन्नां आसतात. इटली, स्पेन आनी पुर्तुगाल ह्या देशांनी अजुनूय कप, चलन, तरसाद आनी दांडो ह्या चिन्नांचेच पत्ते वापरतात. जर्मन पत्ते आदींसावनूच बदाम, घांट, पान आनी ओक झाडाचें फळ ह्या चिन्नांचेच आसात. फ्रांसांत प्रचलीत आशिल्लीं बदाम, चौकट, किल्वर आनी इस्पीक हींच चिन्नां इंग्लिशांनी घेतलीं आनी तींच फुडें भारतांत रूढ जालीं.

आर्विल्ल्या पत्त्यांनी आयदनाचो बदाम जालो, तरसादीचें चिन्न अशीर जायत इस्पीक जालें, चलनाचें चौकट आनी दांडो वा फुटिल्ली खांदी पानाचो आकार घेत किल्वर जाली.

आर्विल्ल्या काळांत भविश्याखातीर वापरांत आशिल्ले टारोटचे २२ पत्ते ना जाले आनी फकत खेळाखातीर ५६ पानी पत्ते उरले. ह्या पत्त्यांनी सद्याच्या पत्त्यांपरस सरदार ह्या दरबारी पत्त्याचें चिन्न चड आशिल्लें. फुडें तेंय ना जावन फकत ५२ पत्त्यांचो पॅक उरलो. हातूंतलो सरदार सोडल्यार राजा, राणी आनी गुलाम हे पत्ते अजून आसात.

पत्त्यांच्या खेळांचे जायते प्रकार आसात. कांय खेळ नशिबाचेर आदारिल्ले आसतात जाल्यार कांय खेळांनी खेळगड्याचे कुशळटायेक वाव मेळटा. पत्त्यांच्या खेळांचे वेगवेगळे प्रकार अशे आसात - पांच-तीन-दोन; मुंगूस; बूर्र; ब्रिज; पोकर; रमी; पेशन्स; सॉलिटॅर; व्हिस्ट; सातहाती; विझिक; पिकेट; बदाम सत्ती; गुलामचोर. पत्त्याच्या जायत्या खेळांनी जुगाराचें आंग आखून कांय लोक पयशे मेळोवपाचे नदरेन हे खेळ खेळटात. पत्त्याच्या खेळांनी भुरग्यांनी खेळपाचे सादे आनी सोंपे खेळ आसतात. तशेंच खेळगड्याचो तर्क, ताची तांक, अदमास, स्मरणशक्ती आदी गुणांक उत्तेजन दिवपी जाण्टच्यांचे खेळूय आसात.

'गंजीफा' हो पुर्विल्ल्या काळांत नामना आशिल्लो भारतीय खेळ. दशावतारी गंजीफाचे पत्ते अशे आसताले : मत्स्य - काळें - नुस्तें २) कूर्म - नारिंगी कांसव ३) वराह - पाचवो - शंख ४) मारुती - धवी - गदा ५) वामन - निळो - झारी ६) परशुराम - तांबडो - परशू ७) राम - हळदुवो - बाण ८) बलराम - गाड नारिंगी - मुद्गल ९) जगन्नाथ - गाड तांबडो - कमळाचो कळो १०) कल्की - गाड तांबडो - तरसाद. हे दशावतारी गंजीफा पुणेंच्या 'भारत इतिहास संशोधन मंडळान' पळोवंक मेळटात. मुसलमानी पत्त्यांनी चंग (वीणा), मुहर (वाटकुळो भांगरा तिबो), किमाश (मोगली पागोटें), बरात (हुंडी), ताज (मुकूट), रूप (धवो वाटकुळो तिबो), शमशीर (तरसाद) आनी गुलाम (साद्या भेसांतलो मनीस) हांचीं चित्रां मेळटात. दशावतारी आनी द्वादश राशींच्यो गंजीफा वाटकुळ्यो जाल्यार मुसलमानी गंजीफा आयताकृती आसतात. द. गंजीफा उण्या-चड दाटसाणेचो कागदी खड्ड्याच्यो जाल्यार मु. गंजीफा कागदी खड्ड्याच्यो वा हस्तीदंती मेळटात.

हो खेळ आईन-इ-अकबरींतले म्हायतीप्रमाण मूळचो मुसलमानां आदलो भारतीय आसुंये, तरीय ह्या खेळाचें नांव आनी तातूंत वापरिल्लीं उतरां अरबी फारसी आसात. देखीक - गंजीफा, सुरवा, सुर्ख्या (हुकूम), नातवान तवानी (असमर्थ पत्त्याक समर्थ करप), आखिरी (निमाणचें पान जिखप) हेर. 'अस नास' हो पत्त्यांचो एक पुर्विल्लो इराणी खेळ. ह्या खेळाचें पोकर ह्या आर्विल्ल्यां खेळाकडेन खुबूच सारकेपण आसा.

सगळेच खेळ पत्त्यांच्या एका पॅकान खेळूंक येनात कांय खेपे पत्त्यांचे दोन पॅक लागतात. कांय खेळांनी एका पॅकांतले सगळे पत्ते लागतातूच अशें ना. पत्त्यांक वेगवेगळ्या खेळांनी वेगवेगळे गूण आसतात. जायत्या खेळांनी एको सगळ्यांत व्हड आनी दुको सगळ्यांत उणो मानतात. जाल्यार कांय खेळांनी एको हो एक हे संख्येइतलो धाकलोय आसता. हरशीं चडशें म्हत्व नाशिल्ल्या गुलामाक कांय खेळांनी म्हत्व आसता. पत्त्यांच्या खेळांत एका खेळगड्यापसून जायत्या खेळगड्यांक वांटो घेवंक मेळटा. अशे वेगवेगळे प्रकार आसात. कांय खेळांनी भागीदार आसतात वा कांय खेळांच्या डावांत खेळगडो स्वतंत्र आसता. पत्त्यांच्या चडशा खेळांनी दरेका खेळगड्याक क्रमाक्रमान पत्ते पिसचे पडटात. पूण कांय खेळांनी खेळगड्यान सांगिल्ले हात जायनात जाल्यार दंड म्हणून पत्ते पिसचे पडटात. पत्ते पिसतकूच वांटपी खेळगड्याच्या कुशीच्या खेळगड्या कडल्यान पत्त्यांचो जोड कापून घेता आनी उपरांत खेळगड्यांक पत्ते वाटूंक सुरवात करता. पत्ते खेळगड्यांमदीं विशिश्ट संख्येन वांट्टात. म्हळ्यार त्या त्या खेळाक विशिश्ट संख्येनूच पत्ते वांटपाची चाल आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पत्रे, मनोहर धाकटु :** (जल्म : ३० मार्च १९३०, होंडा - सत्तरी).

गोंयचो सुटकेझुजारी. सुर्वेक तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५३ वर्सासावन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचो वांगडी जालो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो पत्रकां वांटप, पुलांचेर स्फोट घडोवन हाडप असल्या वावरांनी वांटो घेतालो. १२ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा कृष्णा माईणकर हाच्या फुडारपणाखाल होंडा पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी ताचो खूब छळ केले. ताका सात म्हयने पिशांच्या हॉस्पिटलांत दवरिल्लो. सुटका जाले उपरांत तो परतो राश्ट्रीय वावर करूंक लागलो. १९५७त ताणें माईणकराच्या फुडारपणाखाल परत कुडाळ पोलीस ठाण्याचेर हल्लो केलो.

१३ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा कृष्णा मयेंकाराच्या फुडारपणाखाल ताणें होंड्यांत पुर्तुगेज लश्करी कर्मचाऱ्यांचेर भिरांकूळ हल्लो केल्लो.

भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**पथनाट्य :** (पळेयात नाटक).

**पद्म पुराण-१ :** एक वैश्णव पुराण. पुराणांचे वळेरेंतलें हें दुसरें पुराण. हें पुराण म्हापुराणांतलें एक. देवी भागवतांत ह्या पुराणाचो चवदावो क्रमांक लागता. ह्या पुराणांत ५५ हजार श्लोकसंख्या आसा. ह्या पुराणाचे पांच खंड आसात. तांचीं नांवां अशीं -

प्रथमं सृष्टिखण्डं हि भूमिखण्डं द्वितीयकम् ।<br>
तृतीयं स्वर्गखण्डं च पातालं च चतुर्थकम् ॥<br>
पञ्चमं चोत्तरं खण्डं सर्वपापप्रणाशनम् ।

अर्थ - पयलो सृष्टिखंड, दुसरो भूमिखंड, तिसरो स्वर्गखंड, चवथो पाताळखंड आनी पांचवो उत्तरखंड हे आसात.

ह्या पुराणांत विशय आयल्यात ते अशे -

सृश्टिखंडांत सूत-शौनक हांच्या संवादांतल्यान पुराणाचो प्रपंच, पुलस्त्य आनी भीष्म हांच्या संवादांवरवीं सृश्टिकथन, प्रलय - वर्णन, दुकराचें रूप घेवन विष्णुन धर्तरेचो केल्लो उद्धार, चार वर्णांची उत्पत्ती, विष्णु आनी ब्रह्म हांचे संवाद, दक्षयज्ञाचो विध्वंस, देव - दानव - गंधर्व - उरग - राक्षस हांची उत्पत्ती, बाणासुराचें चरित्र, गरूड संपाती आनी जटायू हांच्यो जल्मकथा, पृथूचें उपाख्यान, इक्ष्वाकुचें वंशवर्णन, पितृवंश, सोमोपाख्यान, पुरुरव्याचें चरित्र, कार्तवीर्य उपाख्यान, पांडवांची उत्पत्ती, कृष्णाची जल्मकथा, विष्णुन दशावतार घेतले ताचें कारण, भृगूचो विष्णुक शाप, शिवाकडल्यान ब्रह्मशिरच्छेद, वाराणसी-महात्म्य, पुष्करोत्पत्ती, सरस्वतीमाहात्म्य, वृत्रासुरोपाख्यान, दधीचिकथा, अगस्त्यचरित्र, वीरभद्रोत्पत्ती, वामन अवतार, तारकासुराची कथा, कार्तिकेयाचो जल्म, गंगामाहात्म्य, सूर्यचरित्र, दुर्गापुजा आनी हेर.

**भूमिखंडांत** – शिवशर्मा ब्राह्मणाक पितृभक्तीवरवीं सर्ग मेळोवन दिता, देवकथा, पृथुचरित्र, इंद्राक इंद्रपद मेळप, सुव्रतोपाख्यान, मरुतांची उत्पत्ती, जैनधर्मकथन, सूकरोपाख्यान, नहुष आनी ययाती हांचें आख्यान, शिवधर्मकथन, यमपीडाकथन, सर्गाचें वर्णन, वासुदेवस्तोत्र, अशोकसुंदरीची कथा आनी हेर.

**स्वर्गखंडांत** – दुष्यांतचरित्र, अप्सरा लोकवर्णन, सूर्यलोकांचें वर्णन, रुद्रसर्ग, रावण-कुबेराचो जल्म, वैकुंठवर्णन, सगराख्यान, गंगावतरण, दिवोदास, हरिश्चंद्र आनी मान्धाता हांचीं चरित्रां, आश्रमधर्म, भक्ष्याभक्ष्यविचार, दक्षयज्ञ, सतीचो देहत्याग, राजधर्म आनी हेर.

**पाताळखंड** - रामचरित्र, सीतेचो त्याग, कामाक्षेचें चरित्र, यवनाख्यान, गंडकीमाहात्म्य, पुरुषोत्तमस्तोत्र, सुबाहुचरित्र, सत्यवानाची कथा, कर्मविपाक, वाल्मिकीचें चरित्र, कृष्णचरित्र, वृंदावनमाहात्म्य, हरिपुजाविधी, शिवलिंग पुजेचे नेम, शिवपुजेचें वर्णन, महापुराणां आनी उपपुराणां हांचे संख्येचें कथन.

**उत्तरखंडांत** – बदरिकाश्रमाचें वर्णन, जालंधराचें कथन, श्रीशैल, हरिद्वार, गया, गंगा, तुलसी, प्रयाग, अन्नदान, एकादस हांची माहात्म्यां, चातुर्मास व्रताचो विधी, मुद्गल मुनीचें आख्यान, विष्णुसहस्त्रनाम स्तोत्र, रामरक्षा, धर्मतोखणाय, अपामार्जन, वैष्णवलक्षण, दरेक म्हयन्याचीं महात्म्यां, नेत्रवती महात्म्य, विंगड विंगड तिर्थांचीं महात्म्यां, गीता महात्म्य, भागवत सप्ताह पद्दत, मार्कंडेयाची कथा, सुंदोपसुंदकथा, कुंडलविकुंडलकथा हे विशय ह्या खंडांत आयल्यात.

ह्या पुराणाच्यो बंगाली आनी देवनागरी अशो दोन प्रती उपलब्ध आसात. देवनागरींतली प्रत पुण्याच्या आनंदाश्रमांत चार वांट्यांनी छापल्या. हे प्रतींत आदी नांवाचो एक खंड चड आसा. ह्या आनंदाश्रमांत छापिल्ल्या पद्म पुराणाची अध्यायसंख्या ६२८ आनी श्लोकसंख्या ४८४५२ इतली दिल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**पद्म पुराण-२ :** एक जैन पुराण. हें पुराण रइधू हाणें अपभ्रंश भाशेंत बरयलां. रामकथेचें वर्णन हो ह्या पुराणाचो मुखेल विशय. हातूंत ११ संधी आनी २६५ कडवके आसात.

पद्म हें रामाक दिल्लें नांव आसून, तो जैन आशिल्ल्याचें मानलां.

ह्या पुराणांतले रामचरित्र वाल्मिकी-रामायणाक अणसरून बरोवंक ना पूण जैन संकेताप्रमाण बरयलां. ह्या पुराणाक 'बलभद्र पुराण' अशाय नांवाचो उल्लेख मेळटा.

विमलरपूरी हाणें 'पद्मचरिय' नांवाचो प्राकृत भाशेंत रामचरित्राचेर एक ग्रंथ बरयला. ह्या ग्रंथाच्या आदारानूच रइधून आपल्या पुराणाची रचणूक केल्या.

ह्या पुराणांत रामकथेची सुरवात गौतमश्रेणिक हाच्या दुबावान जाता आनी इंद्रभूती त्या दुबावाचें उत्तर म्हणून सगळें रामायण सांगता. 'ॐ नमः सिध्देभ्यः' अशें पयलीं मंगलाचरण करून उपरांत जिनाचें स्तवन केलां. हाचे उपरांत जंबुद्विप, भरतक्षेत्र, मगनदेश, राजगृह ह्या थळांचो आनी कांय व्यक्तींचो एका कडवकांत उल्लेख केला.

– कों. वि. सं. मं.

**पद्म पुराण-३ :** एक जैन पुराण. हें संस्कृत भाशेंत आसून रविषेण हाणें बरयलां. रामरित्राचेर आशिल्ल्या ह्या पुराणाक पद्मचरित अशेंय म्हण्टात. जैन परंपरेंत रामाक पद्म अशें नांव आसा. ताका आठवो बलभद्र अशेंय म्हण्टात. इंद्रसेन, दिवाकरसेन, अर्हत्सेन आनी लक्ष्मणसेन अशी रविषेण हाणें आपली गुरुपरंपरा सांगल्या.

सर्वसादारण रामायणापरस ह्या पुराणांत म्हायती आसा ती मातशी वेगळी आसा. देखीक –

पाताळांत रत्नश्रवा नांवाचो राक्षस वंशांतलो एक राजा रावतालो. ताचे बायलेचें नांव केकसी आशिल्लें. तांकां रावण, कुंभकर्ण, चंद्रनखा आनी विभीषण हीं चार भुरगीं आशिल्लीं.

एक दीस रावणाक आपले आवय कडल्यान समजलें की आपलो मावशेभाव वैश्रवण विद्याधर हाणें आपल्या बापायचें लंकाराज्य बळकायिल्ल्यान आमकां पाताळ लंकेंत दीस काडचे पडटात. रावणान वैश्रावणावांगडा झुजपाचें थरयलें. तेखातीर विद्या मेळोवन बळिश्ट जावपाखातीर रावण रानांत वचून तप करूंक लागलो. जंबुद्वीपांत एक यक्ष रावतालो. ताणें रावणाची सगळी परीक्षा घेतली. त्या दिव्यांतल्यान रावणान खुबशो विद्या आपणायल्यो. उपरांत तो मंदोदरी वांगडा लग्न जालो. तशेंच हेर स हजार चलयांकडेनूय लग्न जालो. चंद्रनखा हिचें खरदूषण हाचेवांगडा लग्न जालें. तिका शंबूक नांवाचो पूत जालो. उपरांत रावणान वैश्रवणाकडेन झूज करून ताका लंकेंतल्यान धांवडावन घालो आनी लंकेचेर आपलें राज्य स्थापलें. वैश्रवणाच्या पुष्पक विमानांत बसून रावणान दक्षीण दिग्विजय केलो.

वाली आनी सुग्रीव दोन भाव आशिल्ले. ते वानर नासून विद्याधर आशिल्ले. रावणान वालीक हारयतकूच वालीन सुग्रीवाक राज्यार बसयलो आनी स्वता दिगंबरदीक्षा घेतली. चरमशरीरी म्हापुरूस हनुमान हो रावणाचो इश्ट. ताणें रावणाचो पक्ष घेवन वरूणाआड झूज केलें. त्या झुजांत जैत मेळटकूच ताणें रावणाची भयण चंद्रनखा हिचे अनंगकुसुमा नांवाचे चलयेवांगडा लग्न केलें.

एक दीस रावणाक समजलें की दशरथ आनी जनकहांचे संततीसावन आपल्याक मरण आसा. तेन्ना ताणें बिभीषणाक तांचो वध करपाक धाडलो. पूण बिभीषण तांकां मारपाक येवंचे पयलींच नारदान तांकां हेविशीं सुचयलें. तेन्ना जनक आनी दशरथ ह्या दोगांनीय आपापलो एक पुतळो करून आपल्या म्हालांत दवरलो. त्या पुतळ्यांकूच खरे जनक आनी दशरथ समजून बिभीषणान तांकां मारले आनी रावणाक ते मेल्ल्याचें सांगलें.

अयोध्येचो राजा दशरथ हाका तीन बायलो. कौशल्या, सुमित्रा आनी सुप्रभा. एक दीस देशाचे भोंवडेक भायर सरिल्लो आसतना दशरथ राजा योगायोगान कैकयीच्या स्वयंवराक पावलो. ताका पळेतनाच कैकयीन दशरथ राजाच्या गळ्यांत माळ घाली. तें पळोवन थंय जमिल्ल्या हेर राजांक तिडक मारली. तांचें आनी दशरथाचें खर झूज जालें. त्या झुजांत कैकयीन दशरथाचो रथ चलयलो. तिचें तें धैर्य आनी चतुराय पळोवन दशरथ राजा तिचेर खोशी जालो. ताणें कैकयीक वर मागपाक सांगलो. पूण कैकयीन वर मागलोना. वेळ येतकूच वर मागतलीं अशें दशरथ राजाक सांगलें.

फुडें कौशल्येक राम (पद्म), सुमित्रेक लक्ष्मण, कैकयीक भरत आनी सुप्रभेक शत्रुघ्न अशे दशरथाक चार पूत जाले. जनक राजाचे बायलेचें नांव विदेहा आशिल्लें. तांकां सीता नांवाची धूव आनी भामंडल नांवाचो पूत आशिल्लो. पूण जल्मतनाच पूर्वभवांतल्या एका दुस्मानान भामंडलाक उबारून व्हेलो. तो विद्याधराक मेळ्ळो. विद्याधरान ताचो सांबाळ केलो. एक दीस नारदान ताका सीतेचें चित्र दाखयलें. तें पळोवन भामंडल सीतेचेर भाळ्ळो. ती आपली भयण आसा हें भामंडलाक खबर नाशिल्लें. विद्याधरान भामंडलाखातीर, जनक राजाकडेन सीतेची मागणी केली. पूण जनक राजान पयलींच रामाक तशें वचन दिल्ल्याचें सांगलें. तेन्ना विद्याधरान जनक राजाक सांगलें, सीतेच्या लग्नाखातीर वज्रावर्त नांवाच्या धोणूक बाण लावपाचो पण दवरचो, रामान जर तो पण जिखलो जाल्यार सीता रामाक दिवंची ना जाल्यार आपूण सीतेक उबारून व्हरतलों. सुटका नासून जनक राजाक विद्याधराची सर्त मान्य करची पडली आनी सीतेचें स्वयंवर मांडलें. रामान पण जिखलो. राम-सीतेचें लग्न जालें. लक्ष्मण, भरत हांचीय लग्नां जालीं. दशरथ राजान आपलें राज्य रामाक दिवपाक केलें. तेन्ना कैकयीन आपलो वर मागलो आनी त्या वरान भरताक राज्य मेळचें अशी इत्सा उक्तायली. दशरथ राजाकूय तिचो तो वर मान्य करचो पडलो. उपरांत राम, लक्ष्मण आनी सीता हीं वनवासाक गेलीं.

वनवासाक सावन परत येतकूच केवलीन रामाक जैन धर्माचो उपदेश केलो. भरताकूय ताणें ताच्या पूर्वजल्माची कथा सांगली. तें आयकून भरताचें वैराग्य वाडलें आनी ताणें दिगंबरदिक्षा घेतली. त्या दुख्खान कैकयीनूय आर्यिकेची दिक्षा घेतली.

उपरांत सगळे राजा एकठांय येवन राम आनी लक्ष्मण ह्या दोगांचोय राज्याभिषेक केलो. पूण सीतेच्या चारित्र्याविशीं लोक दुबाव घेवंक लागले. ताका लागून रामान सीतेचो त्याग केलो. त्या वेळार सीता गुरवार आशिल्ली. पुंडरीकपूरचो वज्रजंघ नांवाच्या राजान सीतेक आपली भयण मानून आपल्यागेर व्हेली. थंय तिका अनंगलवण आनी लवणांकुश हे दोन जुंवळे पूत जाले. सीता घरा आयिल्ल्यान वज्रजंघाचें राज्यवैभव वाडलें. वज्रजंघान आपल्यो बत्तीस कन्या अनंगलवणाक दिवपाचें थरयलें. पृथ् राजाची धूव कनकमाला हिची लवणांकुशाखातीर नेमणूक केली. ताणें ह्या दोनूय पुतांक धनुर्विद्येचें बऱ्यांतलें बरें शिक्षण दिलें.

नारदान, रामाच्या ह्या दोनूय पुतांक सगळें रामचरित्र सांगतकूच दोगांकूय बापायचो खूब राग आयलो. वज्रजंघाचें सैन्य घेवन दोगूय जाण

रामाचेर चाल करून आयले. रामाक ते बदनात हें पळोवन रामाक खूब अजाप दिसलें. सिध्दार्थ नांवाच्या एका मनशाकडल्यान ते आपलेच दोगूय पूत आशिल्ल्याचें समजतकूच रामाक खूब उमेद जाली. उपरांत सगळ्यांचे विनंतीवयल्यान रामान सीतेक आपोवन घेवन शुद्ध चारित्र्याविशीं अग्निदिव्य करपाक सांगलें. सीतेन पंचपरमेष्ठीचें स्मरण करून पेटिल्ल्या अग्निकुंडांत उडकी घेनाफुडें तें उदकाकूंड जालें. तें उदक घोग्यांनी व्हांवपाक लागलें. सगळेकडेन हाहाकार जालो. पूण रामान त्या उदकाक स्पर्श करिनाफुडें उदक उणें जालें. उपरांत त्या दोनूय पुतांच्या सामकार रामान सीतेची भोगसणी मागली. सीतेन रामावांगडा राजम्हालांत वचपाक न्हयकार दिलो आनी आर्यिकेची दिक्षा घेतली. थोडया दिसांनी लक्ष्मणानूय देहाचो त्याग केलो. रामानूय वैराग्य घेवन तपाक आरंभ केलो आनी कांय काळाउपरांत निर्वाण प्राप्त केलें.

संस्कृत भाशेंतलें हें पद्मचरित आनी प्राकृत भाशेंतलें पउमचरिय ह्या दोनूय ग्रंथांची कथा सारकीच आसा. पूण पउमचरिय ह्या ग्रंथापरस पद्मचरितांत ही कथा विस्तारान आसा. हाका लागून कांय विद्वानांच्या मतान पउमचरिय ह्या प्राकृत ग्रंथाचोच रविषेण हाणें पद्मपुराण ह्या नांवान संस्कृत भाशेंत विस्तारान अणकार केला आसुंये.

– कों. वि. सं. मं.

**पद्मसाळी :** दक्षिण भारतांतली एक जात. तमीळनाडू प्रदेशांत ह्या लोकांचो चड राबितो आसा. पंडारी, बोम्मा अशो तीस पोटजाती हे जातींत आसात.

पद्मसाळी लोक चडशे वैशणव आनी थोडे शैव पंथाचे आसात. शैव पंथाचे लोक गळ्यांत लींग घालतात. वैशणव पद्मसाळी, वेंकटेश्वराक आपलें कुलदैवत मानतात. तशेंच ते रंगस्वामी, नरसाप्पा, सुकालम्म, उरुकुडी वीरण्णा, गंगम्म, किंकणीअम्म, मुत्थालम्म, कालिलम्म, अंकम्म, मरीअम्म, दुर्गम्म ह्या देवांक भजतात. भावन नांवाच्या ऋषीक ते आपलो पुर्वज मानतात. ते भावन ऋषीचो वर्सुकी उत्सव मनयतात. त्या वेळार ऋषीचें प्रतिनिधीक स्वरूप म्हणून दोन रंगयिल्लीं आयदनां वागाचे मुर्तीचेर दवरतात आनी तांकां शीत-भाजयो हांचो महानिवेद्य दाखयतात.उपरांत भक्तांक तो प्रसाद म्हणून वांट्टात. कांय सुवातांनी तांचीं स्वतंत्र देवळां आसात.

पद्मसाळी लोक विणपाचो धंदो करतात. कांय जाणांचे स्वताचे माग आसतात. पूण चडशे सावकाराचे माग चलोवन पयशे घेतात. हे लोक गरीब पूण वेसनी आसतात.

लग्न जमोवपाक हे लोक ब्राह्मण पुरयताची मदत घेतात. तांचे लग्नपद्दतींत तेलुगू आनी कानडी पद्दतींची भरसण आसता. व्हंकल मंगळसुत्र घालता आनी कणसांचे राशीचेर उबी रावन हनुमंताची पुजा करता. उपरांत तिका बैलाचेर बसोवन न्हवऱ्यागेर व्हरतात. थंय व्हंकलेच्या नाकांतली नथ एके दुदाचे थाळयेंत लिपयतात. ती व्हंकलेन चुकनासतना पांच खेपे हात घालून काडची पडटा. घरांत प्रवेश करचेपयलीं न्हवरो, व्हंकलेक उखलून थोडो वेळ नाचता. ह्या नाचाक देगा-आरा अशें म्हण्टात.

ह्या लोकांमदीं मडीं पुरपाची चाल आसा. मडें बशिल्ले अवस्थेंत पुरतात. मडें घरांतल्यान भायर व्हरचे पयलीं ताका एक कोंबो बळी दितात. शेनवारा वा आयतारा मरण आयल्यार मडें लासतात. त्या वेळार तो कोंबो निसणीक बांदून व्हरतात आनी मड्यावांगडा लासतात. तशें केल्ल्यान, घरांत बेगीन मरण येना अशी त्या लोकांची समजूत आसा. पांचव्या दिसा एक मेंढरूं बळी दिवन ताचें मास खातात. सुतक सोंपपाच्या दिसा सगळे सोरो पियेतात.

ह्या लोकांची जातपंचायत आसता. सेट्टी वा गौडू नांवाचो पंचायतीचो फुडारी आसता. हें फुडारीपण परंपरेन मेळटा.

– कों. वि. सं. मं.

**पद्मावत :** एक हिंदी महाकाव्य. नामनेचो सुफी कवी मलिक मुहमद जायसी हाणें हें प्रेमकाव्य अवधी भाशेंत रचलां. मलिक मुहंमद (जल्म १४७५) हो उत्तर प्रदेशांतल्या जायसी गांवचो. त्या गांवाक तो धर्मक्षेत्र मानतालो. थंयच ताणें इ. स. १५४०त पद्मावत ह्या काव्याची रचना केली. ह्या काव्यांत इ. स. च्या १६ व्या शतमानांतल्या अवधी भाशेचें रूप दिश्टी पडटा. ह्या काळांत कवीन काळांतल्यो म्हणी, वाक्संप्रदाय हांचो सुंदरतरेन उपेग केला. दोहा आनी चौपाई ह्या वृत्तांत हें काव्य रचिल्लें आसून तातूंत सात अर्धचौपायां उपरांत दोहा वापरिल्लो आसा.

कथात्मक काव्याखातीर ही रचनाशैली खूब उपेगी मानतात. ह्या काव्यांतले कथेचो सारांश असो : सिंहलद्विपचो राजा गंधर्वसेन हाका पद्मावती नांवाची सोबीत सुंदर राजकन्या आशिल्ली. तिचेकडेन हिरामन नांवाचो एक उलोवपी पोपट आशिल्लो. एक दीस ताणें पद्मावतीक सांगलें, तो तिचेखातीर सुंदर वर सोदून हाडटा. ते राजान आयकलें. आनी ताका राग आयलो. तें पळोवन भंयान पोपट उडून गेलो. वाटेर ताका एका पारध्यान धरलो आनी विकलो. फुडें तो चितोडचो राजा रत्नसेन हाचेकडेन पावलो. ताची राणी नागमती हिका आपल्या रुपाचो खूब गर्व आशिल्लो. पूण हिरामनान तिका पद्मावती तिचेपरसय सुंदर आशिल्ल्याचें सांगलें. तें आयकून रागान तिणें पोपटाक जिवो मारपाची आज्ञा दिली. पूण राजाच्या भंयान दासीन ताका लिपोवन दवरलो. एक फावट राजान चवकशी करतकूच दासीन पोपटाक राजामुखार हाडलो तेन्ना ताणें राजामुखारूय पद्मावतीचें रूप वर्णन केलें. तें आयकून राजा तिचे प्राप्तीखातीर अस्वस्थ जालो. फुडें पद्मावतीक ही खबर कळटकूच ती ताका मेळूंक गेली आनी तिणें ताका सिंहलगड चडून वचपाची अट घाली. रत्नसेनान ती अट मान्य केली आनी फुडें त्या दोगांयचें लग्न जालें.

रत्नसेनाच्या दरबारांत राघवचेतन नांवाचो एक पंडित आशिल्लो. तो अल्लाउद्दीन खिलजीक वचून मेळ्ळो आनी ताणें ताचेकडेन पद्मावतीच्या रुपाचें वर्णन केलें. तें आयकून अलाउद्दीन हाणें चितोडाचेर घुरी घाली. पूण किदेंय केल्यार गड हातांत येना हें पळोवन ताणें तहाची उलोवणी केली. हीं उलोवणी करता आसतना अलाउद्दीनान फकत हारशांतूच पद्मावतीचें रूप पळेलें. तें पळोवन तो अस्वस्थ जालो आनी ताणें कपटान फुडें रत्नसेनाक धरून दिल्लीक व्हेलो. उपरांत पद्मावतीन रत्नसेनाक सोडोवन हाडपाखातीर गोरा आनी बादल ह्या वीर सरदारांक थंय धाडले. हाणीं कट करून राजाक सोडोवन हाडलो. पूण चितोडाक पावतकूच रोखडेंच ताका मरण आयलें. पद्मावती आनी नागमती ताचेवांगडा सती गेल्यो. हेच कथेवयल्यान इतिहासांत चितोडच्या पद्मिनीची कथा आस्पावल्या.

पद्मावत हें महाकाव्य मानतात. ह्या काव्यांत कवीन शृंगार, वीर, करूण आदी रसांचो सोबीत मेळ घडयला. प्रेम आनी विरह हांचें निरुपन सुफी मताप्रमाण करपाचो कवीचो हेत आसूंक जाय. ह्या काव्यांत ताणें आध्यात्मिक रुपक चितारलां अशें कांय जाणकारांक दिसता. चितोड हो देह, रत्नसेन हो आत्मो, पोपट हो गुरू, पद्मावती ही बुध्दी आनी नागमती ही प्रवृत्ती आसून बुध्दी आनी प्रवृत्ती हांचेमदलो संघर्श कवीन चितरायला अशें जाणकारांचें मत आसा.

प्रतिकात्मक वर्णनशैलीक लागून हें काव्य आनिकूय जिवें जालां. काव्याचो आत्मो फकत सुफीच न्हय जाल्यार शुद्ध इस्लामी आसा, ताणें सुफी संप्रदायाच्या संकेताप्रमाण धर्मांभायल्या तत्त्वांची विस्कटावणी केल्ली आसली, तरी ताची इस्लामनिश्ठाय मदीं मदीं दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**पद्मावती विद्या :** तंत्रमार्गांतली एक म्हाविद्या. ही म्हाविद्या जें जें मागीत तें तें दिवपी अशें म्हळां. हे विद्येचो मंत्र असो -

ॐ ह्रीं पद्मावति देवि त्रैलोक्यवार्ता कथय कथय स्वाहा ।

दोन वर्सां दर दिसा ह्या मंत्राचो एकशें आठ खेपे जप केल्ल्यान ही विद्या साध्य जाता आनी ती साध्य जातकूच साधकाक पुराय संवसाराच्यो खबरो बशिल्ल्या जाग्यार समजतात अशें म्हळां. पद्मावती देवी तो वृत्तांत साधकाच्या कानांत येवन सांगता अशें तंत्रविद्येंत सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**पद्मासन :** (पळेयात आसनां).

**पनामा :** मध्य अमेरिकेंतलें, उत्तर अमेरिका आनी दक्षीण अमेरिका ह्या दोनूय खंडांक जोडपी एक ल्हानशें प्रजासत्ताक. लोकसंख्या २,४२३,००० (१९९१). क्षेत्रफळ ७७,०८२ चौ.किमी. विस्तार ७° १५' उत्तर ते ९° ३९' उत्तर आनी ७७° १५' अस्तंत ते ८३° ३०' अस्तंत. ह्या देशाचे उत्तरेक कॅरिबियन दर्या, उदेंतेक कोलोंबिया, दक्षीणेक पॅसिफिक म्हासागर आनी अस्तंतेक कोस्ता रिका देश आसा. ह्या देशाक कॅरिबीयन दर्याची सुमार ७६७ किमी. लांबायेची दर्यादेग आनी पॅसिफिक म्हासागराची सुमार १,२३४ किमी. लांबायेची दर्यादेग लाबिल्ली आसा. ह्या देशांतल्यान जगप्रसिद्ध पनामा खारीज पासार जाला. पनामा शार (Panama City) हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन, हवामान, वनस्पत आनी मोनजात -** भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे सकयले प्रदेश आनी ऊंच प्रदेश अशे दोन वाटो केल्यात. सकयल्या प्रदेशाची उंचाय ७०० मी. परस उणी आसून, देशाचो सुमार ८५% प्रदेश हातूंत मोडटा. देशाच्या मध्यभागार उदेंत-अस्तंत अशो पर्वतावळी पातळ्ळ्यात. ऊंच प्रदेशांत वोलकान बारू, सेर्रानीया द ताबासारा, कॉर्डीलेरा द सान ब्लास, सेर्रानीया द जंगुरुदो, सेर्रानीया द सापो आनी सेर्रानीया द माजे ह्या पर्वतांवळींचो आस्पाव जाता. खारजाच्या पाट्या भोंवतणची भूंय (isthmian territory) चडशी ज्वालामुखी फातरांची आसा. देशांत सु. ५०० न्हंयो आसात. चडशो न्हंयो उणे लांबायेच्यो आसून, पॅसिफिक म्हासागराक मेळपी न्हंयांचो आंकडो चड आसा. पॅसिफिक म्हासागराक मेळपी फकत ट्चुरा आनी बयानो ह्यो न्हंयो वेपारी नदरेंतल्यान म्हत्त्वाच्यो आसात. सिक्साओला, च्यांग्यूनोला, इंडीओ, क्रिकामोला, ला मियेल ह्यो कॅरिबियन दर्याक मेळपी म्हत्त्वाच्यो न्हंयो आसात.

देशाचें हवामान उश्ण कटिबंधीय, पावशी प्रकाराचें आसा. कॅरिबियन दर्यादेग आनी ऊंच तेमकां सोडल्यार हांगा आतऱ्या-पयऱ्यान असो वर्सभरूय पावस पडत आसता. पूण सादारणपणान पावस मे ते डिसेंबर ह्या तेंपार पडटा. दर्यादेगांनी सरासरी तापमान २७ अंश सॅ. आनी दोंगरी वाठारांनी तें १०° सॅ. ते १९° सॅ. इतलें आसता.

देशाचो आंवाठ ल्हान आसलो तरी हांगा वनस्पत आनी मोनजात हांचे विंगड विंगड प्रकार मेळटात. देशाची सुमार ३/४ भूंय रानांखाला आसा. रानाचो अर्दापरस चड वांटो उश्ण कटिबंधीय पावशी रुखांनी भरला. रूंद पानांचे सदांपाचवे रूख कॅरिबियन दर्याच्या देगांनी चड आसात जाल्यार पॅसिफिकाचे वटेन पानझडी रूख मेळटात. विखाळ्या सोरपांचे वेगवेगळे प्रकार, मानगें, आर्मढीलो, ओसिलोट, ल्हान वाघ, माकड आनी तरेकवार सवणीं हांगा दिश्टी पडटात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था –** सोळाव्या शेंकड्यांत स्पेनी लोक हांगा पावले. स्पेनी लोक येवंचे पयलीं हांगा इंडियन लोकांची सत्ता आशिल्ली. १५०९त स्पेनान कोलोंबिया आनी पनामा वाठारांत आपलो गव्हर्नर नेमून हांचो आस्पाव स्पेनी वसणुकेंत केलो. तीन शेंकडे स्पेनाच्या शेकतळा काडलेउपरांत १८२१त हेर स्पेनी वसणुकां वांगडा होय देश स्वतंत्र जालो. पूण पनामा प्रदेशाचो कोलोंबिया साम्राज्यांत आस्पाव जालो.

सोळाव्या शेंकड्यांत स्पॅनी लोक हांगा आयले उपरांत, ताणीं पनामा पाट्याचेर खारीज खणपाचो बेत आंखिल्लो. पूण तांकां येस आयलेंना. उपरांत १८८०त फ्रेंच कंपनीन कोलोंबिया देशाची परवानगी घेवन खारीज खणपाक सुरवात केली. पूण १८९४त फ्रेंच कंपनीचें दिवाळें जाल्ल्यान खारीज खणपाचें काम बंद दवरलें. उपरांत अमेरिकन राश्ट्राध्यक्षान १९०२त फ्रेंच कंपनीक ४०,०००,००० डॉलर फारीक करून, कोलंबिया राश्ट्राची परवानगी घेवन खारीज खणपाचो वावर परत सुरू करपाचें थरयलें. पूण कोलंबियान घाल्ल्यो अटी अमेरिकेन मान्य करूंक नाशिल्ल्यान कोलंबिया सरकारान खारीज खणपाक विरोध केलो. १८२१त पनामा प्रदेशाचो आस्पाव कोलोंबिया साम्राज्यांत जाल्लो. पूण पनामा लोक, कोलंबिया समाजासावन सदांच पयस रावले. ताणीं कोलंबिया सरकाराआड साबार उठाव केले. कोलंबिया सरकारान पनामा खारीज खणपाक अमेरिकेक विरोध केले उपरांत, अमेरिकेचो आदार घेवन १९०३त पनामी लोकांनी कोलोंबिया सरकाराआड उठाव केलो आनी पनामा देशाचें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. उपरांत १८ नोव्हेंबर १९०३ दिसा अमेरिका आनी पनामा हांचेभितर कबलात जावन, अमेरिकेक खारीज बांदपाची परवानगी मेळ्ळी. ह्या खारजाचेर देखरेख दवरपाचे अधिकारूय पनामा सरकारान अमेरिकेक दिले. सप्टेंबर १९७७त दोनूय देशांभितर नवी कबलात जावन, अमेरिकेचे फकत १९९९ मेरेन ह्या खारजाचेर अधिकार आसतले अशें थरलें. १९८६त जपान, अमेरिका आनी पनामा हांचेभितर तीन पक्षीय (Tripartite) कबलात जावन, खारजाची खोलाय, रुंदाय वाडोवन ताका जोडपी रस्त्यांचीय सुदारणा करपाचें थरयलें.

१९७२ ल्या संविधानावरवीं ५०५ वांगड्यांची राश्ट्रीय सभा एक

राश्ट्रपती आनी दोन उपराश्ट्रपती वेंचून काडटात. ह्या संविधानांत १९७८ आनी १९८३त फेरसुदारणा जाल्ली आसा. राश्ट्रपतीच्या हातांत पुराय कार्यकारी सत्ता आसता. राज्यकारभार वेवस्थीत चलचो म्हणून देश णव प्रांतांनी विभागला. हे प्रांत मुखार नगरपालिका संबंदीत जिल्ह्यांनी विभागल्यात. दर एका प्रांताचेर राश्ट्रपती गव्हर्नरची नेमणूक करता.

**अर्थीक आनी समाजीक स्थिती** - देशाची अर्थवेवस्था मुखेलपणान खारजाच्या करासावन मेळपी येणावळीचेर आनी देशांत नोंद केल्ल्या वेपारी तारवांच्या उत्पन्नाचेर आदारिल्ली आसा. देशांतले चडशे लोक शेतवड, नुस्तेमारी, रानांची उस्तवारी (Forestry) आनी पशुपालन ह्या वेवसायांत गुंथल्यात. शेतकी आनी उदकातले पिकावळींतल्यान देशाक सु. ५०% उत्पन्न मेळटा. तांदूळ, मको आनी कड्डण हांचें उत्पन्न देशांतल्यो गरजो भागोवपाइतलें येता. केळीं, नाल्ल, कोको, कॉफी, संत्रां आनी टॉमेटो हांची निर्यात जाता. सुंगटांची निर्यात करपाक पनामाचो संवसारांत तिसरो क्रमांक लागता. अन्नप्रक्रिया, आयदनां, सिगरेट, कपडे, बूट, शाबू आनी हेर ल्हान ल्हान बरेच उद्देगधंदे हांगा चलतात.

इंडियन हे पनामाचे थळावे लोक आसात. सद्या देशांत मिस्तीस लोकांचो आंकडो चड आसा. इंडियन आनी गोरे वा खाप्री आनी गोरे हांची भरसण जावन 'मिस्तीस' समाज तयार जाल्लो आसा. मिस्तिसां भायर खाप्री, गोरे, इंडियन आनी चीनी लोक हांगा कांय प्रमाणांत आसात. स्पेनी ही राजभास. कांय लोक इंग्लीश भास उलयतात. इंडियन लोक थळाव्यो भाशा उलयतात. हांगाचे चडशे लोक रोमन कॅथलिक पंथाचे आसून फकत ५% इतले लोक प्रॉटेस्टंट पंथीय आसात.

पनामा खारजाक लागून हांगाच्या रस्ते आनी रेल्वे मार्गांनी खूब सुदारणा जाल्ली आसा. बॉयट रूझवॅल्ट हायवेस, इंटर-अमेरिकन हायवेस आनी पॅन - अमेरिकन हायवेस हे हांगाचे म्हामार्ग. 'द फेर्‌रोकॅरील द पनामा' हो हांगाचो मुखेल रेल्वे मार्ग आसून पॅसिफिकावटेन एकोन सावन एटलांटिक दर्याकडेन क्रिस्तोबाल ह्या नगराक तेंकला. ताची लांबाय १९० किमी. इतली आसून तो पनामा खारजाचे देगेसावन गेला. टोकूमॅन हो हांगाचो मुखेल विमानतळ. बालबोआ, क्रिस्तोबाल, बाहिया लास मिनास आनी आलमिरांते हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं बंदरां. हांगा उजवाडाक येवपी दिसाळीं चडशीं स्पेनी भाशेंतल्यान आसून, एल मातुतीन्यु, ला इस्त्रेला द पनामा, ला रिपुब्लीक, क्रितीक हांचो तातूंत आस्पाव जाता. द स्टार अँड हॅराल्ड हें हांगा उजवाडाक येवपी एकूच इंग्लीश दिसाळें. पनामा सिटी, कोलोन आनी डेव्हिड हीं हांगाचीं म्हत्त्वाचीं शारां.

- कों. वि. सं. मं.

**पयसो :** वस्तू वा सेवा हांची देवघेव करपाखातीर सर्वमान्य अशें विनिमय माध्यम. सादारणपणान पयसो हे संकल्पनेचो संबंद नाणीं, नोटी सारकिल्या चलन माध्यमाकडेन लावप जालो तरी पयसो म्हळ्यार जें पयसो करता तें पयशाचें कार्य अशी पयशाची व्यापक संज्ञा आसा. हातूंत विनिमय माध्यम, मूल्यमापन, रीणप्रमाण आनी मूल्यसंचय अशो चार गजाली मुखेलपणान पयशांत आस्पावतात. हे व्यापक संज्ञेप्रमाण वस्तू वा सेवांची खरेदी-विक्री, वस्तूचें मोल, रिणाचे वेव्हार आनी संपत्ती संचय अशीं कामां पयसो करता.

आयचीं नाणीं वा नोटी, चेक, ड्राफ्ट सारकिलीं चलन माध्यमां अस्तित्वांत येवचे पयलीं वस्तूंची वा सेवांची प्रत्यक्ष देवघेव जाताली. वस्तूखातीर वस्तू वा सेवेखातीर वस्तू वा वस्तूखातीर सेवा वा सेवेखातीर सेवा ह्या न्यायान वेव्हार चलताले. हो वेव्हार गैरसोयीचो जाल्ल्यान, ते उपरांत विनिमयाचें माध्यम म्हणून पिसां, हतयाचे दांत, जनावरांचीं कातडीं, घोडे-हतया सारकिलीं जनावरां अशा खाशेल्या वस्तूंचो वापर जावपाक लागलो. आयच्या काळांत नाणीं, नोटी, चेक, ड्राफ्टा सारकिलीं चलन माध्यमां जें कार्य करतात तेंच कार्य ह्या माध्यमांनी करप जातालें. दोनूयकडेन पयसो ही संज्ञा एकूच उरली.

पयशाचें मोल पयशाचे खरेदीचे तांकीचेर थरोवप जाता. वस्त वा सेवा हांचें मोल वाडटकूच पयशाची खरेदी शक्त उणी जाता. हाचे उरफाटें, वस्त वा सेवा सवाय जाली जाल्यार पयशाची खरेदी शक्त वाडटा. मुळांत वस्त वा सेवा हांचें मोल पयशाचे वेव्हारांतले पुरवणेचेर थारावन आसता. पयशाची पुरवण वाडली म्हण्टकूच वस्तूचें वा सेवेचें मोल वाडटा आनी पयशाचें मोल उणें जाता. हाचे उरफाटें पयशाची पुरवण उणी जाल्यार वस्तूचें वा सेवेचें मोल उणें जाता आनी परिणाम म्हणून पयशाचें मोल वाडटा. अशे तरेन पयशांचें मोल पयशांचे पुरवणेवयल्यान थारता. पुराय रोजगारीच्या गृहीत तत्त्वाचेर आदारिल्लो हो सिध्दांत अमेरिकी अर्थशास्त्रज्ञ अर्व्हिंग फिशर हाणें मुखार हाडलो.

पिगू, मार्शल, रॉबर्टसन सारकिल्या कँब्रिज अर्थशास्त्रज्ञांनी हेसंबंदी वेगळें तत्त्व मांडिल्लें दिसता. पयशाचें मोल हें पयसो रोख रुपांत दवरपाच्या लोकांचे प्रवृत्तीचेर आदारून आसता. तांच्या मताप्रमाण लोक जितल्या प्रमाणांत आपलेकडेन रोख पयशे सांठोवन दवरूंक लागतले तितल्या प्रमाणांत ते वस्त वा सेवा हांचे खरेदीचेर खर्च उणो करूंक पावतले. हाचो परिणाम म्हणून वस्तूंचीं आनी सेवांचीं मोलां उणीं जातलीं आनी पर्यायान पयशाचें मोल वाडटलें. लोक आपणाकडेन उण्या प्रमाणांत पयसो सांठोवन दवरूंक लागले जाल्यार हाचे उरफाटें घडटलें. वयल्या ह्या दोनूय सिध्दांतांक आव्हान दिवपी तिसरोच सिध्दांत केन्स ह्या अर्थशास्त्रज्ञान मांडला. ताका पुराय रोजगारीचें गृहीत तत्त्व मान्य जालेंना. ताच्या म्हणण्याप्रमाण पुराय रोजगारीमेरेन पावता म्हणसर जावपी पयशाचे पुरवणेंतली वाड वस्तूंच्या उत्पादनांत वाड घडोवन हाडटली आनी ते उपरांत मात वस्तूंचें मोल वाडूंक लागतलें.

- कों. वि. सं. मं.

**पय्यूर भट्ट :** केरळ प्रदेशांतलें संस्कृत पंडिताचें एक घराणें. चवदाव्या शतमानाच्या मध्यासावन पंदराव्या शतमानाच्या मध्यामेरेन स पिळग्यांनी जायते गिन्यानी मनीस जावन गेले. ते मीमांसा शास्त्राचे पंडित आशिल्ले. ते पोरक्कलम लागसारच्या वेलंगाड गांवांत रावताले. हें थळ थ्रिसूरा सावन वायव्येक सोळा मैलांचेर आसा. नंद गोपाची धूव गोपालिका ही ह्या घराण्याची उपास्य देवता. तांच्या साहित्यांत हिचे जायते उल्लेख मेळटात. कांय विद्वानांच्या मतान हे देवीवयल्यानूच त्या गांवाक पय्यूर हें नांव मेळ्ळें. पय्यूर म्हळ्यार गायचो गांव. ऋषी हो ह्या घराण्याचो मूळ पुरूस. तो गौरीकडेन लग्न जातकूच तांकां जो पूत जालो ताचें नांव परमेश्वर. संस्कृत साहित्यांत एक व्हड पंडीत, टिकाकार आनी कवी म्हणून ताची नामना आसा. न्यायसमुच्चय हो ताचो मिमांसा दर्शनावयलो एक नामनेचो ग्रंथ. ताचे हेर ग्रंथ अशे : सुमनोरमणी,

जुषध्यंकरणी, स्वदितंकरणी, हरिचरित. परमेश्वराक पांच पूत आशिल्ले. ताचो नातू परमेश्वर (दुसरो) हाचीय व्हड मिमांसक म्हणून नामना आशिल्ली. हाणेंय जायते ग्रंथ रचल्यात. हे ग्रंथ अशे - पूर्वमीमांसाटीका, गोपालिका, तत्त्वविभावना, चिदानंदाच्या नीतितत्त्वविर्भाव ग्रंथावयली टिका आनी मंडनमिश्राच्या विभ्रम ग्रंथावयली टिका. ताच्या ह्या टिकाग्रंथाक लागून मूळ ग्रंथ समजप सोंपें जालें. तेभायर ह्या ग्रंथांत जायत्या विवाद्य प्रस्नांचेर भासाभास केल्या. परमेश्वर दुसरो हाका वासुदेव नांवाचो एक भाव आशिल्लो. हाचीय महापंडित आनी कवी म्हणून नामना आशिल्ली. ताणें बरयल्ले काव्यग्रंथ अशे - देवीचरित, अच्युत लीला, सत्यतप : कथोदय, शिवोदय, वाक्यावली, कौमारिलयुक्तिमाला वा कौमरिलतिलकम, चकोर संदेश. परमेश्वर (दुसरो) हाच्या भुरग्याचें नांव ऋषी (तिसरो). ताणें जैमिनिसूत्रार्थसंग्रह हो ग्रंथ रचलो.

ह्या घराण्याचे विद्वत्तेविशीं अशें सांगतात, माविनक्रम झामोरीन राजाच्या दरबारांत ह्या घराण्यांतले णव विद्वान लोक एके वेळेक आशिल्ले.

- कों. वि. सं. मं.

**परकायाप्रवेश :** योगमार्गान प्राप्त जावपी एक सिध्दी. हे सिध्दीक परशरीरावेश, परपुरप्रवेश, देशांतरावेश वा अन्य देह प्रवेश अशेंय म्हण्टात. नाथ संप्रदायांत हे सिध्दीक प्राण संजीवन विद्या अशें म्हळां. ही प्रक्रिया कशी जाता तेविशीं एक वचन आसा. तें अशें -

बन्धकारणशैथिल्यात् प्रचारसंवेदनाच्च चित्तस्य परशरीरावेशः।

**अर्थ –** बंधकारण जे धर्माधर्म ते शिथील जाल्ल्यान तशेंच मन, प्राण आनी इंद्रियां हांचो भोवंडी करपाचो मार्ग आशिल्ल्यान नसांनी चित्त एकाग्र केल्ल्यान आपलें चित्त, इंद्रियां आदीचो प्रवेश दुसरे कुडींत करूं येता. खंयच्याय मड्याचे कुडींत प्रवेश करून योगी तातूंत चलनवलनादी क्रिया उत्पन्न करूंक शकता वा दुसऱ्या मनशाच्या मनांत प्रवेश करून ताचें मन आनी इंद्रियां हांचेर ताबो दवरूं येता. त्याच वेळार स्वताचे कुडिंतूय तो रावंक शकता. प्रकृती आनी पुरुष हीं तत्त्वां वेगळीं आसात. हें ज्ञान प्राप्त जातकूच योग्याक हे सिध्दीची प्राप्ती जाता. दुसऱ्याचे कुडींत प्रवेश करपाचो आसल्यार, ते कुडीचेर संयम दवरून तो करूं शकता. योग्याचो आत्मो सर्वव्याप्त जाल्लो आसता. ताच्या शरिरांतलें मन सर्वव्याप्त जाता. ताचे कुडींतलें मन हें सर्वव्यापक मनाचोच एक अंश आसता. हें ज्ञान जाल्लें आशिल्ल्या कारणान योग्याक त्या अंशरुपी मनाचो विस्तार करूंक मेळटा.

आद्य शंकराचार्यान कामशास्त्राचें ज्ञान मेळोवपाखातीर अमरूक राजाचे कुडींत प्रवेश केल्लो अशी कथा आसा. नंदराजा मरतकूच इंद्रदत्तान ताचे कुडींत प्रवेश करून नंदराजाच्या मरणाचो पत्तो लागूंक दिनासतना ताचें राज्य केलें अशी कथा कथासरित्सागरांत आसा.

भुतान वा वेताळान स्मशानांत सारीचेर दवरिल्ल्या प्रेतांत प्रवेश करून स्मशानाच्या लागसार येवपी लोकांक त्रास दिल्ल्याचें प्रसंग वेताळपंचविशींत दिल्ले आसात. खेचरी मुद्रा साध्य केल्ल्यान परकाया प्रवेशाची सिध्दी प्राप्त जाता अशें हठयोगांत सांगलां.

भूत-पिशाच्च बाधा आनी अवसर ह्या संकल्पनांनी परकायाप्रवेश मानून घेवप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**परक्राम्य पत्रां :** पावती वा पृश्ठांकन करतकूच जांच्या अधिकारांत बदल करूं येता असो दस्तऐवज. देखीक - वचनपावती, हुंडी (Promissory note) आनी धनादेश (cheque). हांचे मुखेल अशे दोन गूणधर्म आसात. (१) सरळ तरेन हस्तांतर करूं येता अशे (२) तांचो धारक हो त्या पत्रावरी मेळपी पुराय हक्काचो अधिकारी जाता. हातूंतलो दुसरो गूणधर्म परक्राम्य पत्रांक हेर दस्तऐवजापरस चड म्हत्व प्राप्त करून दिता.

परक्राम्य पत्रांचें सर्वसादारण रूप म्हळ्यार लेखी हक्क आनी हो लेखी हक्क फकत पयशांविशींच आसता. जर हो लेखी हक्क हेर गजालीविशीं आसल्यार तो परक्राम्य पत्र जायना. देखीक : जमीन विकत घेवपाचें खरेदीपत्र हें परक्राम्य पत्र न्हय. परक्राम्य पत्रां हीं चलन नाण्यावरी आशिल्ल्यान ताचें रोखडेंच दिवप घेवप जाता. भारतांत परक्राम्य लेख अधिनियमाक धरून परक्राम्य पत्राचे तीन प्रकार सांगल्यात.

**वचनपत्रां -** जाचेर लेखकान स्वता निशाणी करून कोणाय मनशाक वा ताणें आदिश्ट केल्ल्या वा वाहकाक पयशाची निश्चीत रक्कम खंयचे अटी बगर वचन दिल्लें आसता तें पत्र. हें वचन पयशे वा वचनपत्र दाखयतकूच दिवपाचें वा थरिल्ले मुदती उपरांत दिवपाचें आसता. हातूंत दर्शनी वचनपत्र दाखयतकूच पयशे दिवंचे पडटात पूण मुदत वचन पत्रांत विशिश्ट मुदतकाळ सोंपतकूच पयशे दिवंचे पडटात. दर्शनी वचनपत्र काडपाचो अधिकार फकत शासनाकडेन आसता. वचनपत्र पुराय जावपाक ज्या गजालींची गरज लागता त्यो अशो - (१) लेखी पत्र (२) रक्कम दिवपाचें वचन (३) पयशे दिवपाचे अटिविरयत निश्चीत वचन (४) वचनचिपत्र बरोवन दितल्याची निशाणी (५) वचन दितल्याचो नामनिर्देश (६) देय रकमेची निश्चिती (७) रकमेची फेड रोखीन करपाचें वचन (८) जाका पयशे दिवपाचे ताचें नांव, वचनपत्र खंय बरयलां त्या गांवाचें नांव घालपाची चाल आसा.

परक्राम्य पत्रांत वचनपत्राचो आस्पाव आशिल्ल्यान धनादेशावरी पृष्ठांकन करून वा पावती दिवन तिचें हस्तांतरण (transfer) करूंक मेळटा. पूण अडेच्या पृष्ठांकनाचे बाबतींत धनादेशाचे पयशे दिवपी बँकराक कायद्यान राखण दिल्ली आसा, अशी राखण वचनपत्रावयल्या अडेच्या पृष्ठांकनाचे बाबतींत मेळटा. वचनपत्र करप्यान जर पयशे दिवपाक फटींगपणां केलीं जाल्यार वचनचिठ्ठी आशिल्ल्या मनशान तिचेकडेन संबंदीत आशिल्ल्या मनशांक कळोवणी दिवंची पडटा.

**हुंडी -** एका मनशान आपली निशाणी करून दुसऱ्या कोणाय विशिश्ट मनशाक वा तो मनीस सांगता त्या मनशाक वा तो दस्तऐवज घेवन येवपी मनशाक पयशांनीच दिवपाची एक विशिश्ट रक्कम दिवपाविशीं अटींविरयत केल्ली लेखी आज्ञा. हुंडी पुराय जावपाक ह्यो गजाली आसप गरजेचें आसता. (१) अटींविरयत लेखी आज्ञा (२) जाका आज्ञा केल्या त्या मनशाचें नांव (३) आज्ञा करपी मनशाची निशाणी (४) आज्ञेप्रमाण दिवपाचो थरावीक रकमेचो उल्लेख (५) पयशे कोणाक दिवपाचे ताचें नांव.

ह्या मनशाक हुंडी करारपत्र करून वा फकत हुंडीचें हस्तांतर करून दुसऱ्या मनशाक ते हुंडेचे पयशे वसूल करपाचो अधिकार दिवंक मेळटात.

**धनादेश –** एके विशिश्ट बँकेचेर मागणी करतकूच पयशे मेळोवन दिवपी दर्शनी हुंडी. धनादेश बँकेचेर काडटकूच तो जे बँकेचेर काडटात ते बँकेंत जर खातेदाराचे म्हणजेच धनादेश काडपी मनशाकडेन फावो ते

पयशे शिल्लक नासले जाल्यार बँक धनादेशाचे पयशे दिना. बँकेन खातेदाराक थरावीक शिमेमेरेन तारणार वा तारणावयर ज्यावेळार रीण दिवपाचें मान्य केल्लें आसता, तेन्ना ते शिमेमेरेन खातेदाराचे पयशे बँकेकडेन ठेव कशी आसता. ताका लागून बँक ते शिमेमेरेन खातेदाराच्या धनादेशाचे पयशे दिता. पूण ती शीम हुंपतकच मात बँक धनादेशाचे पयशे दिवंक शकना.

धनादेश वा हुंडी वा वचनपत्रां दोन तरांची आसूं येतात. १) नामजोग (ऑर्डर) : हाचे पयशे आदात्याक (doner) वा ताचो आदेश दिल्ल्या मनशाक दिवपाचे आसतात. (२) दर्शनी (बॅरर) : हाचे पयशे आदात्याक वा दाखोवप्याक दिवपाचे आसतात.

पृश्ठांकन हें चड करून दोन तरांचें आसता. पुराय पृष्ठांकन आनी कोरें पृश्ठांकन. हातूंत एक धारक जो दुसऱ्या धारकाक हे अधिकार दिवपाचो आसता ताचो उल्लेख करून आपली निशाणी करता आनी ताका त्या पत्राचो धारक करपाचे नदरेन परक्राम्य पत्र दिता. हाका पुराय पृष्ठांकन म्हण्टात. कोन्या पृश्ठांकनांत धारक हो सुर्वेक त्या पत्राचेर निशाणी करता आनी ताचे पयशे कोणाक दिवपाचे ताचें नांव पृश्ठांकन करतना बरयना. पूण पत्र वाहकाक हे पयशे मेळटात. ताका लागून हाका कोरें पृश्ठांकन म्हण्टात. ताका लागून ह्या पत्राचें रूप उपरांत ना जावन तें परक्राम्य पत्र दर्शनी जाता. म्हणजेच हाचेफुडें हो अधिकार परत कोणाय तिसऱ्या मनशाक दिवपाचो आसल्यार फकत हस्तांतरान हे अधिकार दिवप घेवप जातात. हाचेभायर धनादेश हो रेखांकीत वा अरेखांकितूय आसूं येता.

जेन्ना धनादेशाचेर दोन समांतर रेगो ओडटात तेन्ना ताका रेखांकीत धनादेश म्हण्टात. ह्या दोन रेगांमदीं आनी कंपनी वा ताचें ल्हान रूप वा 'नॉट निगोशिएबल' अशेंय केन्नाय बरयतात. हे शब्द म्हळ्यार रेखांकनाचेच भाग. जेन्ना धनादेश हो रेखांकीत आसता तेन्ना तो जे बँकेचेर काडटात तेन्ना ती बँक धनादेशाची रक्कम बँक खात्यार जमा करपाखातीर दिता. म्हणजेच धारकाक हे पयशे रोख मेळनासतना ताका ते ताचे बँकेकडल्यान घेवंचे पडटात. रेखांकनांत 'अकाऊंट पेई' वा 'पेई' हे शब्द वापरिल्ले आसल्यार त्या धनादेशाचे पयशे फकत आदात्याच्या खात्यांतूच जमा जातात.

हुंडीचे मुखेल प्रकार थळ, काळ, मनीस आनी उद्देश हांचेर आदारून आसतात.

**१. थळ हुंडी** - हातूंत अंतर्देशीय आनी विदेशी हुंडी हो प्रकार मोडटा. अंतदेर्शीय हुंडी ही देशांमदींच वा देशांतल्याच मनशाचेर काडिल्ली हुंडी. जाल्यार विदेशी हुंडी एका देशांतल्यान दुसऱ्या देशाचेर वा एका देशांतल्या मनशान दुसऱ्या देशांतल्या मनशाचेर काडिल्ली हुंडी.

**२. काळ हुंडी** - हातूंत दर्शनी आनी मुदती अशे दोन प्रकार आसात. दर्शनी हुंडेचे पयशे दाखयतकूच मेळटात जाल्यार मुजती हुंडेचे पयशे हुंडेत बरयल्ली मुजत सोंपतकूच मेळटात.

**३. व्यक्ति हुंडी** - हो प्रकार नामजोग हुंडी वा दर्शनी हुंडी असो आसा.

**४. उद्देश हुंडी** - हातूंत हक्कपत्रासयत हुंडी वा कोरी हुंडी (क्लीन बील) अशे भाग करतात.

भारतांत शहाजोग हुंडी, जबानी हुंडी, मुलतानी हुंडी, जोखमी हुंडी अशे वेगवेगळे प्रकार आसात.

पुर्विल्ल्या काळासावन भारतांत हुंडी वेव्हार चलता. हुंडेचें मुखेल रूप पयशे वसुलीसंबंदान आशिल्लें वा मेळिल्ले अधिकार हें आशिल्ल्यान बँको हे अधिकार विकते घेवन ताचेर कळंतर रुपान वा कसररुपान पयशे मेळयतात. बँको हुंडी विकती घेतना तांची फावो ती तपासणी करता. हे तपासणेंत ज्या गजालींचो आस्पाव जाता, त्यो गजाली ह्यो -

(१) हुंडी जाचेकडल्यान विकती घेवपाची ताची पत

(२) हुंडी ज्या मनशाचेर काडल्या ताची पत

(३) हुंडेची रक्कम

(४) हुंडी केन्ना फारीक जातली ती मुदत

(५) हुंडेचेर आशिल्ल्या निशाण्यांची पृश्ठांकनाची पत

(६) हुंडी काडपाफाटलो उद्देश.

ही तपासणी जातकूच बँक विपत्र वा हुंड्यो विकत्यो घेता आनी ती हुंडी दर्शनी आसल्यार बँकेच्या थरयल्ल्या दरान हुंडेचे रकमेचेर पयशे आकारून उरिल्ली रकम खातेदाराच्या नांवान जमा करता. पूण हीच मुजत हुंडी आसल्यार बँक तिजेर कसर (discount) आकारता.

**हुंडी आनी विपत्र (बिल्स ऑफ एक्स्चेंज)** - हातूंत वस्तुतः तत्त्वाचो फरक ना. कांय प्रमाणांत फरक आसा तो तपशिलाविशींचो. देखीक - शहाजोग हुंडेचे पयशे फकत खात्रीच्याच मनशाक मेळटात. जोखमी हुंडेन जापसालदारकी दाखयतात आनी त्या जोखमी ऐवजान (डॉक्युमेंटरी बिल्स) म्हाल पावयतकूच ताचे पयशे मेळटात वा पयशे दिवप जातात. जबानी हुंडेंत रकम एकेकडल्यान दुसरेकडेन धाडूं येता आनी ताची पावतीय पयशे धाडप्यांक मेळूंक शकता. हाचेभायर हुंडेचो आनीक एक प्रकार म्हळ्यार मुलतानी हुंडी. हेर हुंड्यो म्हालाखातीर काडिल्ल्यो आसतात. पूण मुलतानी हुंडेचें स्वरूप सावकारी हुंडी अशें आसता. म्हणजेच उश्णे दिल्ले पयशे फारीक करपाखातीर मुलतानी हुंड्यो वापरतात.

भारतांत १८८१ च्या परक्राम्य पत्राच्या अधिनियमांत परक्राम्य पत्राविशीं कायदेशीर तरतूद आसा. पूण ते परक्राम्य लेख ह्या अधिनियमांत केल्ल्या धनादेश, हुंडी वा वचनपत्र हांचे व्याखेबरहुकूम नासतात. तांकां ह्या कायद्यांतल्यो तरतुदी लागू जायनात. देखीक, पतपेड्यांच्यो हुंड्यो, रीणपत्रां, राजपत्रां, पोस्टल ऑर्डर, शॅर सर्टिफिकेट.

परक्राम्य पत्रांचो वापर संवसारीक वेपारांतूय करता आशिल्ल्यान चड करून वेगवेगळ्या राश्ट्रांतले हेविशींचे कायदे सारके आनी सुसंगत आसप वेपारी नदरेन म्हत्वाचें आसता. ब्रिटनान १९५७ त धनादेश अधिनियम (चेक ॲक्ट) करून आनी अमेरिकेन आपल्या एकसमाज परक्राम्य लेख अधिनियमांत (युनिफॉर्म नॅगोशिएबल इन्सट्रूमॅन्ट्स लॉ) सुदारणा करून काळाप्रमाण फेरबदल केल्यात. भारतांतूय ह्या प्रस्नाचो फेरविचार करपाखातीर भारतीय बँकिंग आयोगानी आपल्या १९७२ च्या अहवालांत विचार मांडल्यात.

– कों. वि. सं. मं.

**परजा :** एक आदिवासी जमात. हो गोंडांचोच एक फांटो आसून तो खूब फाटसारिल्लो आसा. मध्य प्रदेशांतल्या बस्तर जिल्ह्यांत ह्या लोकांची वसती आसा. ह्या जिल्ह्यांत तांकां धुर्व अशेंय म्हण्टात. तांचेमदीं भाशेवयल्यान मरी, मटरा आनी हळबा अशे भेद जाल्यात.

जमातींतल्या दोन पुर्वज भावांतल्या व्हडल्या भावाच्या वंशजांक परजा

(प्रजा म्हळ्यार सबजॅक्ट) समजतात. पयलीं वरंगळच्या राजाचे सैनीक म्हणून ह्या लोकांनी बस्तर राज्यांत प्रवेश केलो आनी थंयच स्थायीक जाले अशें सांगतात.

हे जातीचे तीन पोटभेद आसात : तगर, पेंग आनी मुदरा. हातूंतले फकत तगर हेच बस्तर जिल्ह्यांत दिसतात. हे लोक मध्यम बांद्याचे आनी सावळ्या वर्णाचे आसतात. ते रानांतल्यान कंदमुळां, म्होंव, गोम, लाख शारांनी व्हरून विकतात. कांय लोक शेती करतात. शिकार करप, वखदी वनस्पत विकप हेय वेवसाय ते करतात.

गोंडी भाशेची एक बोली पारजी ही तांची सदचे जिणेंतली बोलीभास.

ह्या लोकांच्या माथ्यार दाट केंस आसतात. तांचे ओंठूय दाट आसतात. दादले लंगोट बांदतात. तांच्यो बायलो भेंडाक ल्हानसो कपडो गुठलायतात. बायलांचे हड्डें उकतेंच आसता. त्यो गळ्यांत मणयांच्यो माळो घालतात. तशेंच हातांनी आनी पांयांनी पितूळच्यो वस्ती घालतात.

हे लोक कुळीचिन्नवादी आसून ह्यो कुळी अंतर्विवाही आसात; पूण जमातींची संख्या उणी आशिल्ल्यान ते बहिर्विवाह लेगीत जातात. चले-चलयांचे संमतीन लग्नां जातात. देज दिवंचें पडटा. तांच्या लग्नाचो धर्मीक असो कसलोच सुवाळो जायना. भुरगीं आपुणूच आपलो जोडीदार सोदून घोव-बायलेचें नातें जाहीर करतात. लग्नां चड करून चैत्र म्हयन्यांत करतात. आते-मामे भावंडांचें लग्न प्रतिश्ठीतपणाचें मानतात. लग्न जावंक नाशिल्ल्या दादल्याक समाजांत मान नासता. तेखातीर ताचें मामेभयणीकडेन लग्न केल्ल्याचो उपचारीक सुवाळो करतात. लग्ना वेळार नाचाचें आयोजन करतात.

हे लोक जडप्राणवादी आसुनूय हिंदू दैवतां पुजतात. दांतेश्वरी हे देवतेक ते पुजतात. भुतांखेतांचेर, जादूटोण्याचेर तांचो खूब विस्वास आसा. खाशेल्या प्रसंगार ते कोंबो बळी दिवन भूमिपुजन करतात.

परजा लोक मडें पुरतात. पुरचे पयलीं मड्याचे पांय अस्तंत दिशेन करतात. मडें पुरतकूच ताच्या आत्म्याचें प्रतीक म्हणून घरा परतताना एक नुस्तें धरून हाडटात. मडें पुरिल्ल्या जाग्यार शीत आनी उदक दवरून तीन तें णव दीस सुतक पाळटात. उपरांत बाजारांत आपले जमातीच्या लोकांक मेळून सोरो आनी गोड पदार्थ वांट्टात.

– कों. वि. सं. मं.

**परदेशी, लक्ष्मण परशुराम :** (जल्म : ३ ऑगस्ट १९२९, येरवडा – हवेली पुणें – महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. तो प्रजा सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा नारायणराव साळसकर हाच्या फुडारपणाखाला आरोंदेच्यान गोंयांत येवन कोरगांव – पेडण्यां जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतलो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**परधान :** गोंड आदिवासी लोकांचो एक फांटो. ह्या लोकांची वसती चड करून मध्य प्रदेश आनी महाराष्ट्रांतल्या विदर्भ वाठारांत आसा. ह्या लोकांक पन, मोकासी वा भाऊ, देसाई, पठारी, पनाल ह्या नांवांनीय वळखतात. ह्या सगल्या नांवांच्यो परधानांनी व्युत्पत्त्यो दिल्यात. जो मनीस पराचें म्हळ्यार दुसऱ्याचें धान म्हळ्यार अन्न खाता तो परधान अशीय तांची एक व्युत्पत्ती आसा.

परधान लोक गोंडांच्या आलाशिऱ्यान तांचे लागसारूच रावतात. मूळ गोंड ज्या सात भावांपसून जाले, तातूंतल्या सातव्या भावाचे हे वंशज आसात अशी गोंडी दंतकथा आसा. पयलींच्या काळांत परधान हे गोंडांचे पुरयत, राजघराण्यांतले प्रधान, पुजारी, भाट अशीं कामां करताले. परधानांच्यो बायलो गोंड लोकांकडेन सुविणीचें तशेंच तांच्या चलयांच्या आंगार पाडपाचें काम करताल्यो. गोंड राजाउपरांत तांचीं हीं कामां आपोआप सुटलीं आनी आपलो चरितार्थ चलोवपाखातीर ते चोरयो-मारयो करपाक लागले.

मध्य प्रदेशांत परधान लोकांक परगनिहा वा देसाई म्हण्टात. छत्तीसगढाच्या वाठारांत तांकां 'परधान पठारिया' म्हण्टात. बालघाटांत 'मोकाशी' म्हणून पाचारतात. परधान लोक गोंडांक रामराम म्हण्टना 'बाबू जोहार' म्हण्टा आनी गोंड लोक तांकां 'जोहार पठारी' म्हण्टा.

परधान हे आमचेच अशें गोंड म्हण्टात पूण तांचेकडेन गोंड लोक लग्नसंबंद दवरिनात. परधान गोंडांकडेन जेवतात. पूण गोंड परधानांकडेन जेविनात. गोंड लोक परधानांक उणे लेखतात.

परधानांत राजपरधान, गोंडा परधान आनी थोटिया परधान आनी थोटिया परधान अशे तीन पोटभेद आसात. राज गोंड दादलो आनी परधान बायल हांचेपसून जाल्ले संततीक राजपरधान म्हण्टात. चंद्रपूरलागीं परधानांचे दोन भाग आसात – गोंड पठारी आनी चोर पठारी. नर्मदेच्या देगणांत परधानांचे राजनेंगी आनी गोगिया अशे दोन भेद आसात. आनिकूय हेर भेद आसात. परधानांत धुर्व, भगदिया, कम्र, खुस्त्रो, मरबी, मरकम अशीं खूब कुळां आसात. हीं नांवां तांच्या देवकांवयल्यान पडल्यांत.

परधानाचीं चड करून मातयेचीं तीन घरां आसतात. मदीं व्हडलें घर आसता. ताका देवघर म्हण्टात. ह्या घरांत देव, बना नांवाचें वाद्य आनी रांदची कूड आसता. ह्या घराचे कुशीक आनीक दोन घरां आसतात. व्हडल्या पुताचें लग्न जातकूच तो मदल्या व्हडल्या घरांत रावता. आवय – बापूय कुशीच्या एका घरांत रावतात. तिसरें घर गोठ्याक दवरतात.

परधानांची घरां एकमेकांपसून पयस आसतात. तांच्या घरांचेर तरातरांच्यो आकृती काडिल्ल्यो आसतात.

गोंडांच्या घरा वचून पदां म्हणप आनी ते दितात तें अन्न खावन पोट भरप अशी तांची परंपरा आसा. लग्नसुवाळो वा दुसरें कसलेंय कार्य आसल्यार थंय तांकां वचचें पडटा. तेखातीर ते एका जाग्यार थीर उरनात. भोंवत राविल्ल्यान खूबदां तांकां मेळटा तें अन्न खावचें पडटा.

भगवान आनी बडा पेन हे तांचे मुखेल देव. बडा पेन हाका बडा देव, बुढा पेन वा बुऱ्हा देव अशींय नांवां आसात. बन्सबोरन मर्रा देव हो तांचो दुश्ट देव आसा. दुयेंत मनशांक बरें करपी भगताक ते गुणिया वा पंडा म्हण्टात. दुयेंस वा कसलोय रोग हो देवाच्या कोपाक लागून जाता अशी तांची समजूत आसा. अशा वेळार ते भगताक आपयतात आनी खंयच्या देवाचो कोप जाला तें सोदून काडून ताका बळी दितात.

परधानांच्या सणा-परबांचे दीस थरिल्ले आसतात. पूण ते आपले सोयीन सगळे सण मनयतात. हाचें कारण कसलीय परब, सुवाळो मनयतना, घरातले सगळे लोक हाजीर आसप तशेंच सुदृढ आसप ते गरजेचें मानतात. एकती उत्सव, हरेली उत्सव, नवा उत्सव तेचप्रमाण मरहाई जात्रा हे तांचे कांय मुखेल उत्सव ते मनयतात.

चले-चलयो पिरायेंत येतकूच तांचे आवय-बापूय लग्नां थरयतात. चडशीं आते-मामे भावंडांमदीं लग्नां जातात, पूण तेखातीर चल्या-चलयेची पसंती विचारतात. लग्नांत देज दिवपाची चाल आसा. न्हवऱ्याकडेन देज दिवपाची ऐपत नासल्यार तो व्हंकलेगेर काम करता. लग्नापयलीं नियोजीत न्हवरो आपले व्हंकलेक काळ्या पोतीची माळ दिता आनी ती माळ गळ्यांत घालता त्या दिसापसून व्हंकल न्हवऱ्याच्या घरांतली जाली अशें मानतात. लग्नाच्या वेळार न्हवरो व्हंकलेगेर वतना हातांत खंजीर घेता आनी कांबळ पांगुरता. एक गोल काडिल्लो आसता, ताका पांच प्रदक्षणां घालता आनी व्हंकलेचो हात धरता. तिणें आपली घट्ट केल्ली मूठ तो सोडयता आनी तिच्या करंगळेच्या बोटांत लोखणाची मुदी घालता. उपरांत तो आपलो उजवो पांय तिच्या पांयाचेर दवरता आनी हो लग्नसुवाळो सोंपता.

तांचेमदीं घटस्फोटाची चाल आसा. खाशा भावाची विधवा बायल आपल्या धाकल्या देरावांगडा लग्न जावंक शकता.

भुरगें जातकूच ताची वार घरांतूच पुरतात आनी त्या जाग्यार (अग्नी प्रज्वलित करप) दिवो पेटोवन तो स दीस तसोच दवरतात. भुरगें जल्मतनाच ताका शींक आयल्यार तें दुश्चिन्न मानतात. सव्या दिसा सटीची पुजा करतात. त्या वेळार शेजारच्या बायलांक आपोवन हाडून तांकां जेवण आनी सोरो दितात. त्याच दिसा भुरग्याचो मामा ताचे तकलेचे दोन फुडले आनी दोन फाटले केंस कापता. भुरग्याचो जल्म जाला त्या जाग्यार दिवो पेटोवन दवरतात. बाराव्या दिसा भुरग्याक नांव दवरतात.

परधान लोकांमदीं मडें लासपाची तशेंच पुरपाचीय चाल आसा. मेल्ल्या मनशाचो व्हडलो पूत अग्निदहनाचे विशिश्ट संस्कार करता. धाव्या दिसा बायलो अस्थी एकठांय करतात. स म्हयन्यांनी वा वर्सान श्राध्द करतात. वर्साउपरांत मेल्ल्या मनशाच्या नांवान 'कूंड' नांवाचो विधी करतात. हो विधी केलोना जाल्यार मृताचें भूत त्या कुटुंबाक त्रास दिता अशी तांची समजूत आसा.

सणापरबेक परधान लोक आपलीं घरां धवे मातयेन रंगयतात. न्हावन-धुवून घरातले सगळे जाण्टे लोक एकठांय येवन सोरो पियेतात आनी आंगणांत कोंबी भाजून खातात.

मांगेतरी म्हळ्यार भिक्षा हो तांचो मुखेल वेवसाय. दर तिसऱ्या वर्सा परधान आपल्या कुळाच्या गोंडाकडेन भिक्षा मागपाक वता. अशा वेळार परधानाक दासोंदी आनी गोंडाक ठाकूर अशें म्हण्टात. परधानान आपल्या कुळांतल्या गोंडाभायर हेर कोणायकडेन भिक्षा मागल्यार ताका जातींतल्यान भायर घालतात.

बना हें तांचें लाकडी वाद्य आसता. तें बडा पेन प्रतीक आसा, अशें ते मानतात. हें वाद्य तयार करतना तांकां कांय पथ्यां पाळचीं पडटात. हें वाद्य तयार करतना ते देवाचें नांव घेतात. ताका मोरापाखां, घुंगूर, लोकरीचे गोंडे लावन सजयतात.

आंध्र प्रदेश, महाराष्ट्र, मध्य प्रदेश आनी ओरिसांत ज्या सुवातींनी गोंड लोक रावतात, थंय परधान लोकांची वसती आसा. परधानांच्यो चालीरिती, कुळगोत्रां गोंडांभाशेनूच आसात. पूण परधान लोक, धर्मीक विधींतल्यो उरतात त्यो वस्तू वा मरणा वेळावयले कपडे घेतात म्हणून गोंड लोक तांकां उणे मानतात.

– कों. वि. सं. मं.

**परब, यशवंत काळे :** (जल्म : १९२०, थिवी – बारदेस).

सुटकेझुजारी. सुर्वेक तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी जालो. सुटकेझुजारी विश्वनाथ लवंदे हाच्या मार्गदर्शनाखाल तो गोंयचे सुटकेखातीर वावर करतालो. बसकांनी वांटो घेवप, चोरयां रानांतल्यान वचपा खातीर क्रांतीविरांक वाटो दाखोवप असलीं कामां तो करतालो. ३ मे १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी साडेआठ म्हयने बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**परभी :** प्रभू लोकांचे बोली भाशेचें नांव. हे बोलीक कायस्थी, मुंबयकारांची कायस्थी, दामणी अशींय नांवां आशिल्लीं. मुंबय, ठाणें आनी दमण ह्या भागांतले लोक भोवसंख्येन ही बोली उलयतात. हे बोलींत चडशें साहित्य ना. कसलेंय नाटक वा कांय स्फूट लेख तितले उपलब्ध आसात. ही बोली सद्या वेव्हारांतल्यान पुराय लुप्त जाल्या. ग्रंथीक मराठी भाशेक ही बोली खुबूच लागसल्ली आसा. तिचेर गुजराती भाशेचोय बरोच प्रभाव दिश्टी पडटा. परभी बोलीचो एक नमुनो असो – कोणी एक माणसाना दोन पोर होती. त्यानचा लाना बापाला बोलला. बाबा जो दौलतीचा भाग माला येयाचा तो दे मग त्याजून त्याला दौलत वाटून दिल्ही. मग थोडे दिसान धाकटा पोर अस्क गोळा करून दूर देसाला गेला न तिकडे उधळपट्टी अस्की दौलत घालविली. मग त्यातून अस्क खरचल्यावर ते देसान फार दुक्काळ पडला. त्यासाठी त्याला अडचण पडण्या लागली. तव तो ते देसानचे एके माणसाजवळ जावून रायला. त्याजून ते त्याला दुकर चारऱ्याला त्याचे शेतात धाडला. तव डुकर जी टरफल खात असत त्याचे वर त्याजून आपल पोट भरवं अस त्याला वाटलं न कोणी त्याला काय दिल्लनय!

– कों. वि. सं. मं.

**परमार्थ :** परम (श्रेश्ठ) अधीक अर्थ (लाभ). म्हणजे सर्वोच्च लाभ. परमार्थ हें जल्माचें सार्थक समजप जाता. संवसारांत दुख्ख, अज्ञान, अन्याय हांचेवरवीं अपूर्णताय आनी असमाधान हांचो अणभव येता. अशे परिस्थितींत मनशाक प्राप्त वेव्हारापलतडचें म्हणजेच अध्यात्मीक थरावयले प्राप्तीचो ध्यास लागता. पाच ज्ञानेंद्रियां आनी बुध्द हांच्या आवाक्याभायल्या ज्ञानाचो एक प्रांत आसा आनी थंयच्या ज्ञानाची मनशाक ओड लागता. ह्या ज्ञानाचे साधनेक परमार्थाची प्रवृत्ती म्हण्टात.

धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष ह्या चार मुल्ल्यांचेर पुरुशार्थाची बसका बसयल्ली आसा. पयलीं तीन मुल्ल्यां हीं चवथ्या मुल्ल्याक साधनीभूत मानल्यांत. मोक्ष प्राप्ती हें जिवीत साफल्य मानलां आनी ह्या साफल्याचे प्राप्तीची वाड परमार्थाकडेन जोडल्या.

परमार्थावरवीं आत्मज्ञानाची प्राप्ती जाता आनी अंतर्यामी परब्रह्माचो साक्षात्कार जाता. परमार्थ परमात्म्याचो अणभव दिता.

परमार्थ हें सर्वोच्च सूख आसून तें जल्माचें सार्थक मानलां.

परमार्थाची प्राप्ती ही साधनेवरवीं जाता. साधनेचे प्रकार साधकाप्रमाण वेगवेगळे आसतात. भक्तीयोग, ध्यानयोग हे साधनेचे मुखेल प्रकार आसात.

परमार्थाची साधना करतल्यान कांय पथां पाळपाची गरज आसता. तातूंतलीं मुखेल पथां (१) वैराग्य (२) प्रपंचाची अनासक्ती (३) नितळ अंत:करण (४) शुद्ध जिवीत आनी (५) देव भावार्थ आत्मज्ञानावरवीं परमार्थाची प्राप्ती आशिल्ल्यान ताचे प्राप्तीखातीर सद्‌गुरूच्या मार्गदर्शनाची गरज सांगल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**परराश्ट्रीय धोरण :** एका राश्ट्रान दुसऱ्या राश्ट्रांविशीं आपणायिल्लें धोरण म्हळ्यार परराश्ट्रीय धोरण. परराश्ट्रीय धोरणांत त्या राश्ट्राचो संवसारीक राजकारणांतलो उद्‌देश, तेविशींच्यो येवजणो आनी तेविशींची प्रत्यक्ष कृती हांचो आस्पाव आसता. एकुणिसाव्या शतमानांत राश्ट्रवादाच्या उदयाउपरांत प्रत्येक राश्ट्र स्वतंत्र आसचें, हें तत्त्व सर्वमान्य जालें. जगांतल्या अशा स्वतंत्र राश्ट्रांच्या परस्परसंबंदांक आकार मेळून तातूंतल्यान एके आंतरराश्ट्रीय वेवस्थेचें रूप तयार जालें. आर्विल्ल्या काळांत दरेक राश्ट्र आंतरराश्ट्रीय समुदायाचो एक भाग आशिल्ल्यान हेर राज्यांकडेन आपले संबंद निश्चीत करपाचे गरजेंतल्यान ताका आपलें परराश्ट्रीय धोरण थरोवचें पडटा. 'धोरण' ह्या शब्दांतल्यान पूर्व-नियोजनाचो अर्थ स्पश्ट जाता. पूण अंतर्गत क्षेत्रांतल्या अर्थीक वा समाजीक धोरणापरस परराश्ट्रीय धोरणाचें स्वरूप वेगळें आसता.

परराश्ट्रीय धोरण हें कितल्याशाच अनियंत्रीत घटकांचेर आदारून आसता आनी देखून आंतरराश्ट्रीय क्षेत्रांतलीं आपलीं उद्‌दिश्टां साध्य करपाखातीर खंयच्याय राज्याक कालबध्द तशेंच येवजण आशिल्लें अशें आंखीव धोरण थरोवप शक्य नासता. हे नदरेंतल्यान परराश्ट्रीय धोरणाची तुळा स्वयंचलीत व्हडच्यापरस नौकानयनाकडेन करपासारकी आसा. जशेपरी प्रवाह, वारो, भरती-सुकती हे घटक मतींत घेवन इत्सा केल्ले सुवातीर पावपाखातीर तारयो हे आपले परिस्थितीकडेन स्वताक जुळोवन घेता, त्याप्रमाण राज्यकर्त्यांक भायले उद्‌देश साध्य करपाखातीर, स्वताच्या नियंत्रणाभायर आशिल्ले कितलेशेच घटक आनी वयलेवयर घडपी अकल्पीत घडणुको मतींत घेवन आपल्या धोरणाची दिशा आनी डावपेंच थरोवंचे पडटात. अर्थात परराश्ट्रीय धोरण परिणामकारक जावपाखातीर तातूंत एकसुत्रताय आनी लवचीकपण हे दोनूय गूण गरजेचे आसतात.

इ. स. प. चवथ्या शतमानांत कौटिल्यान आपल्या अर्थशास्त्रांत राजान आपणावपाच्या परराश्ट्रीय धोरणाविशींची चिकीत्सा केल्या. कौटिल्याचे कल्पनेप्रमाण राजाचें ध्येय आपल्या राज्याची वृध्दी करून साम्राज्य स्थापन करप, स्वता चक्रवर्ती जावप हें आसूंक जाय. कौटिल्याच्या मताप्रमाण धोरणाचें येस आनी अपेस हें वेगवेगळ्या शक्तींचेर पातयेवन आसता. तेभायर धोरण राबोवपाखातीर साम, दाम, दंड, भेद ह्या चार पर्यायी उपायांची चर्चाय कौटिल्यान केल्या.

खंयच्याय देशाच्या परराश्ट्रीय धोरणाकडेन प्रळोवपाचे पारंपारीक नदरेप्रमाण थंयच्या प्रस्थापीत राज्यकर्त्या वर्गाची विचारसरणी, तांचीं मुल्यां हांचो अभ्यास करतात. दरेका देशाचें परराश्ट्रीय धोरण हें थंयच्या राज्यकर्त्या वर्गाच्या मुल्यांचें आनी विचारप्रणालीचें प्रक्षेपण आसता, असो समज ताच्या मुळाकडेन आसा. ह्या अर्थान परराश्ट्रीय धोरणाचें वर्गीकरण लोकशायवादी, सर्वंकश सत्तावादी, उदारमतवादी, साम्यवादी, आक्रमणवादी अशें आसतालें. ह्या अर्थानूय इंग्लंडाचें धोरण उदारमतवादी, जाल्यार दुसऱ्या म्हाझुजापयलीं जपानाचें आनी सद्या चीनाचें धोरण आक्रमणवादी आसा, अशें सांगतात. सर्वसादारण लोकांची परराश्ट्रीय धोरणाकडेन पळोवपाची हीच नदर आसता. इंग्लंडांत झुजाउपरांतच्या काळांत सत्ताधारी पक्ष खूबदां बदलून लेगीत परराश्ट्रीय धोरण बदललेंना. १९१७त रशियांत क्रांती जावनय रशियाच्या परराश्ट्रीय धोरणाचें लक्ष्य व्हडलेंशें बदललें, अशें म्हणप समा जावंचेंना.

परराश्ट्रीय धोरण थीर नासता, तें प्रवाहासारकें आसता. राज्याच्या क्षेत्राभायले परिस्थितीचेर प्रभाव घालपाखातीर राश्ट्रान केल्ल्या कृतींचो तो क्रम आसता. ह्या धोरणांत एके तरेचें सातत्य आसलें, तरी हेर राश्ट्रांच्या निर्णयाचो आनी धोरणांचो खंयच्याय राश्ट्राच्या परराश्ट्रीय धोरणाचेर परिणाम जावप अटळ आसता. राश्ट्रीय धोरणासारकेंच परराश्ट्रीय धोरणाचें उद्‌दिश्ट राश्ट्रहीत सादप, हेंच आसता आनी तें साध्य करपाचे नदरेन हेर राश्ट्रांच्या वेव्हारांचेर, धोरणांचेर नियंत्रण मेळोवपाचे यत्न राज्यकर्त्यांक करचे पडटात. आपलेकडेन संबंदीत आशिल्ल्या राश्ट्रांचें धोरण राश्ट्रहिताक अनुकूल करप हो ह्या धोरणाचो एक म्हत्वाचो भाग आशिल्लो.

परराश्ट्रीय धोरणांत फुडल्या विशयांचो आस्पाव जाता -

१. आंतरराश्ट्रीय वेव्हार करतना राज्याचीं उद्‌दिश्टां नदरेमुखार दवरून राश्ट्रहीत साध्य करपाचो यत्न करप.

२. आपल्या धोरणाविशींच्या सिध्दान्ताचें प्रतिपादन करप

३. आपल्या राश्ट्राचे तांकीप्रमाण हेर राश्ट्रांकडेन अर्थीक, राजकीय, सैनिकी संबंद जोडप वा हेर राश्ट्रांच्या हिताच्या संदर्भांत अर्थीक, लश्करी तशेंच आंतरराश्ट्रीय स्थितीचें मूल्यमापन करप.

पयलीं राश्ट्रसंघ आनी उपरांत एकवटीत राश्ट्रसंघटना ह्या संवसारीक संघटनांचे स्थापणुकेउपरांत परराश्ट्रीय धोरण आनी संवसारीक राजकारण हांकां एक नवें म्हत्व प्राप्त जालां. अशा संवसारीक संघटनांचे स्थापणुकेउपरांत परराश्ट्रीय धोरण आनी संवसारीक राजकारण हांकां एक नवें आनी वेगळेंच म्हत्व प्राप्त जालां. अशा संवसारीक संघटनांक पालव दिवप, तांच्या हेर घटकसंस्थांचे राश्ट्रहीत जोपासपाखातीर आनी राश्ट्राची प्रतिश्ठा वाडोवपाखातीर उपेग करप हांचोय आस्पाव परराश्ट्रीय धोरणांत जाता. हेर राश्ट्रांकडलो संघर्श टाळपाखातीर आनी खंयच्याय प्रकारच्या चेपणाचो प्रतिकार करपाक उपेगी थारतलें, अशा घडणुकांचो आनी राजनितीचो आस्पाव परराश्ट्रीय धोरणांत जायत आसता. व्यापक नदरेन पळेतना परराश्ट्र संबंदांतल्या खंयच्याय निर्णयाचो विचार करतना त्या राश्ट्राचीं हेर उद्‌दिश्टां, ध्येयधोरणां, अर्थीक स्थिती, राजकीय परिस्थिती, समाजाची नदर, भुगोलीक सुवात ह्या गजालींचोय विचार करचो पडटलो.

खंयच्याय राश्ट्राच्या अंतर्गत आनी परराश्ट्रीय धोरणाचो लागींचो संबंद आसता. परराश्ट्रीय धोरणांतल्या निर्णयाचो परिणाम खूबदां अंतर्गत धोरणांचेर जाता. झूज, शांतताय हांचेविशींच्या धोरणांचोय परराश्ट्रांविशींच्या निर्णयांचेर परिणाम जायत आसता. लोकशायी राजवटींत परराश्ट्रीय धोरणाचें रुप निमाणें नियंत्रण लोकांचें, लोकांच्या प्रतिनिधींचें आसता. अंतर्गत धोरण आनी परराश्ट्रीय धोरण हांच्यांतलीं मुखेल सुत्रां एकामेकांक पोशक आनी पूरक आसचीं पडटात. परराश्ट्रीय धोरण खास करून राश्ट्रीय धोरणांचीच फुडली वाटचाल करीत आसता.

राश्ट्राच्या हिताची पोसवण करप, राज्याच्या भूंयप्रदेशाचें, आस्पतीचें

आनी नागरिकांचें रक्षण करप, राजकीय क्षेत्राभायर अर्थीक, संस्कृतीक, शिक्षणीक, विज्ञानीक आदी क्षेत्रांनीय हेर राश्ट्रांकडेन सहकार करप, दिवप -घेवप करून विकास सादप हीं परराश्ट्रीय धोरणाचीं मुखेल उद्दिश्टां आसतात. कांय खेपे प्रदेश विस्तार करप, साम्राज्य वाडोवप हेय हेत नदरेमुखार दवरतात. विसाव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत साम्राज्यवादाची संकल्पना बदलल्या. प्रदेश जिखून ताब्यांत दवरचे सोडून अर्थीक नियंत्रण आनी राजकी प्रभाव हांचेवरवीं हेर राश्ट्रांचेर प्रभुत्व स्थापन केलां. राश्ट्रांतल्या प्रभावी दबाव गटांचो त्या राश्ट्राच्या परराश्ट्रीय धोरणांचेरूय अंकूश आसता, अशें नदरेक आयलां. तेन्ना त्या दबाव गटांचें हीत सादप हें परराश्ट्रनितीचें एक उद्दिश्ट जावन उरता. आपल्या राश्ट्राची प्रतिश्ठा वाडोवप हेंय एक म्हत्वाचें उद्दिश्ट अशें मानतात.

खाशेले तत्त्वप्रणालीचो प्रचार आनी प्रसार करप हेंच कांय परराश्ट्रीय धोरणाचें मुखेल उद्दिश्ट थरयतात. रशियाच्या परराश्ट्रीय धोरणाचें मूळ सुत्र साम्यवादाचो प्रसार सादप, साम्यवादी राश्ट्रांक मदत करप, लोकशायी राज्यांतल्या साम्यवादी पक्षांक, कामगार संघटनांक मदत करप हें आसता. अमेरिकन परराश्ट्र नितीचे प्रवक्ते लोकशाय आनी स्वातंत्र्य हांच्या रक्षणाक बांदिल्ले आसात, अशें समजतात, पूण कांय हुकूमशायी राश्ट्रांक शस्त्रांची मदत करतात.

परराश्ट्रीय धोरण थरोवपी राज्यकर्ते वा मुत्सद्दी, त्या धोरणाचीं उद्दिश्टां, ताचेफाटलीं मुळावीं तत्त्वां आनी तीं धोरणां चालीक लावपाखातीर वापरांत येवपी साधनां हे सगळे घटक परराश्ट्रीय धोरणांत म्हत्वाचे आसात. परराश्ट्रीय धोरणांचेरूय लोकमताचो प्रभाव पडटा. दळण-वळणाचीं वाडटीं आनी गतीमान साधनां राश्ट्र-राज्यांची वाडिल्ली संख्या, अणुशक्त, अण्वस्त्रां आनी क्षेपणास्त्रां हांची महासत्तांकडेन आशिल्ली मक्तेदारी हे सगळे परिस्थितीचो परराश्ट्रीय धोरणांचेर खूब मोटो परिणाम जाला. परराश्ट्रीय धोरणाची संकल्पना मुळांतूच थीर ना. ती गतीमान आनी अश्टतासांची आसा. तातुंतूच राश्ट्रां-राश्ट्रांतल्या परस्पर एकामेकांचेर पातयेवन रावपाच्या कारणाक लागून आंतरराश्ट्रीय राजकारण पयलींपरस आतां चड गुंतागुंतीचें जालां. ताका लागून राजकीय पक्ष आनी लोकप्रिय आनी प्रभावी राश्ट्रीय फुडारपण हांकां परराश्ट्रीय धोरण थरोवपांत खुबूच म्हत्व मेळ्ळां.

एकवटीत राश्ट्रसंघाचे स्थापणुके उपरांत, राश्ट्रसंघ स्थापन जालो तेन्नासावन, परराश्ट्रीय धोरणाचें एक नवें आंग स्पश्ट जालां. एकुणिसाव्या शतमानामेरेन परराश्ट्र नितींत गुप्तताय, मुत्सद्द्यांच्यो वाटाघाटी, हेरगिरी, लश्करी कारवाय आनी झूजप्रसंग हांकां म्हत्व आसता. पूण राश्ट्रसंघाचे थापणुकेउपरांत उक्त्या परिशदांच्या स्वरूपांत राजनितीक सुवात प्राप्त जाली. आंतरराश्ट्रीय स्वरूपाचो वंशवादासारको वा निर्वासितांसारको प्रस्न आसत जाल्यार ताचे आड आवाज उठोवपाची तजवीज एकवटीत राश्ट्र संघटनेचे माचयेक लागून जाल्या. खंयच्याय राश्ट्राक परराश्ट्राविशींचें धोरण थरयतना एकवटीत राश्ट्रसंघटनेचें अस्तित्व मतींत घेवप गरजेचें थरता. ल्हान राश्ट्रांचो ताका खूब फायदो जाता. कारण तांचेर दुस्मानाचो हल्लो जालो तर रोखडीच एकवटीत राश्ट्रसंघटनेकडेन कागाळ करपाची, आंतरराश्ट्रीय लोकमत जागें करपाची वेवस्था जाल्या. हल्लो परतून लावपाखातीर ताकतिकेची मदत मेळोवपाचीय शक्यताय निर्माण जाल्या.

परराश्ट्रीय धोरणाचे निर्णायक घटक म्हणून राश्ट्राची भुगोलीक स्थिती, उपलब्ध सैमीक साधनां, लश्करी बळगें, लोकसंख्या, लोकमत, धोरण थरोवपी फुडारी, ताचे मुत्सद्देगिरीचीं खाशेलपणां, आंतरराश्ट्रीय संस्था आनी संवसारीक लोकमत हांचो उल्लेख करूं येता. ब्रिटनाच्या परराश्ट्रीय धोरणांत युरोप खंडापसून वेगळो आशिल्ल्या भुगोलीक सुवातीचो बरो उपेग जालो. आपलें परराश्ट्रीय धोरण तो स्वतंत्रपणान आखूंक शकलो. तशेंच उद्देगीक क्रांतीची सुरवात, लोकांची दर्यावर्दी वृत्ती, दूरदृश्टीची मुत्सद्देगिरी हांचो परिणाम इंग्लंडाचें परराश्ट्रीय धोरण साम्राज्यवादी करपांत जालो. फ्रांस, जर्मनी, बेल्जियम हांकां तांचे भुगोलीक सुवातीक लागून युरोपी राश्ट्रांतल्या झगड्यांत वांटो घेवंचो पडलो. सैमीक साधनांची समृध्दताय आनी हेर राश्ट्रांपसून वेगळेपण हांकां लागून अमेरिका आपलें परराश्ट्रीय धोरण स्वतंत्रपणान थरोवंक शकली.

मुत्सद्देगिरी, प्रचार, राजकीय डावपेंच, अर्थीक साधनां, परकीय मदत, घातपाती कर्तुबां, झूज हीं परराश्ट्रीय धोरणांचीं साधनां आसात. अशा साधनांचो उपेग करून राश्ट्राचीं उद्दिश्टां साध्य करतात. राज्यां-राज्यांतल्या दळणवळणांत तशेंच आंतरराश्ट्रीय संबंदांनी वाड जाल्या. दरेक राश्ट्र ह्या कामाखातीर दुसऱ्या राश्ट्रांत आपलो प्रतिनिधी धाडटा. राजकीय आनी वेपारी प्रतिनिधीं वरवीं परस्परांतले संबंद दवरतात.

राजकीय धोरणाचें एक साधन म्हळ्यार देशांत आपल्या उद्दिश्टांचो आनी विचारांचो प्रचार परराश्ट्रांतल्या लोकांमदीय असो प्रचार खूबदां करतात. विसाव्या शतमानांत ह्या साधनाचो वापर व्यापक प्रमाणाचेर करतात. आपल्या राज्यांतूय परराश्ट्रीय धोरणाक अनुकूल असो प्रचार करचो पडटा. सगळींच राश्ट्रां प्रचाराचेर व्हड खर्च करतात. रेडिओ, टीव्ही, खबरांपत्रां, प्रचार पुस्तिका अशा प्रचाराखातीर वापरतात.

परराश्ट्र वेव्हारांत अर्थीक साधनांक म्हत्वाची सुवात प्राप्त जाल्या. स्वताचे अर्थीक प्रस्न सोडोवपाखातीरूय ह्या साधनांचो उपेग करतात. आयात-निर्यातीवयले निर्बंद वा खाशेल्या वस्तूंच्या आयात-निर्यातीवयलीं बंधनां उणीं करप हीं मुखेल अर्थीक साधनां आसात. खूबदां खंयच्याय राश्ट्राची अर्थीक कोंडी करतात. त्या राश्ट्रावांगडचो वेपार बंद करतात. ह्या साधनांचो वापर खास करून झूज काळांत करतात.

झूज हें परराश्ट्रीय धोरणाचें एक साधन. राज्याची झुजाची तांक जितली व्हड, तितलें ताचें परराश्ट्रीय धोरण येसस्वी जायत आसता. झूज करिनांसतना दुसऱ्या राश्ट्रांचेर आपल्या धोरणांचें पालन करपाची सक्ती करप हें कुशळ राजनितीचें कसब अशें मानतात. खंयच्याय राज्याचें परराश्ट्रीय धोरण हें ताच्या अंतर्गत ध्येयधोरणाक पूरक आनी पोशक आसचें पडटा. राश्ट्र हिताकडेन लक्ष दवरून राश्ट्राची प्रतिश्ठा वाडोवप हें परराश्ट्रनितीचें मुखेल उद्दिष्ट आसता. राश्ट्रां-राश्ट्रां मजगतीच्या संबंदाक लागून परराश्ट्रीय धोरणाक अती म्हत्वाची सुवात प्राप्त जाल्या. परराश्ट्रीय धोरणाचो परिणाम देशांतल्या हेर हीत संबंदांचेर जाता. हे गट आपल्या हिताची राखण करपाखातीर निर्णयकर्त्यांचेर चेपण हाडटात. ह्यां सगळ्या देशां भितल्ल्या घटकांचे आंतर-क्रियेंतल्यान परराश्ट्रीय धोरण घडत वता.

**भारताचें परराश्ट्रीय धोरण :** स्वतंत्र भारताच्या परराश्ट्रीय धोरणाची घडण स्वातंत्र्याच्या पयलींच्या काळांतूच जाली. अखिल भारतीय कॉंग्रेसीन आंतरराश्ट्रीय प्रस्नांविशीं वेळोवेळ आपणायिल्ल्या धोरणांतल्यानूच ताची उत्क्रांती जाली. स्वातंत्र्यापयलींच कॉंग्रेसीन आंतरराश्ट्रीय प्रस्नांविशीं कितलेशेच थाराव संमत केल्ले. ब्रह्मदेश ब्रिटिशांनी जिखिल्लेखातीर

असंतोश परगटायिल्लो (१८८५). ब्रिटीशांच्या साम्राज्यवादी कारवायांखातीर भारताक तळ म्हणून वापरपाक हरकत घेतली (१८९२). काँग्रेसीचें हें साम्राज्यवादी धोरण पयल्या म्हाझुजाउपरांत आनिकूय स्पश्ट जालें. ब्रिटीशांच्या खलिफाआड धोरणाचो निशेध म्हणून भारतांत खिलाफत चळवळ सुरू केली. १९२०त आयर्लंडी लोकांच्या स्वातंत्र्य लड्याक तेंको दिलो, जाल्यार १९२८ त इजिप्त, सिरिया, पॅलेस्टायन आनी इराक हांकां तांच्या साम्राज्याआड संघर्शाखातीर परबी भेटयली. भारताचें हें धोरण स्वातंत्र्याउपरांतूय नेटान चलयलें.

स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत, एकवटीत राश्ट्रसंघांत थाराव संमत करून घेवन इंडोनेशिया, ट्युनिशिया, मोरोक्को, आल्जीरिया आदी आफ्रिकी-आशियाई देशांचे मुक्तीखातीर वातावरण तयार करपाखातीर भारतान म्हत्वाचो वावर केलो. १९५६त इंग्लंड आनी फ्रांस हाणीं सुएझ खारजाविशीं केल्या सैनिकी हस्तक्षेपाक भारतान विरोध केलो. वसणुकांक स्वातंत्र्य मेळचें, असो एक थाराव एकवटीत राश्ट्रान करून तो कितले मेरेन चालीक लागता, हें पळोवपाखातीर एक २४ वांगड्यांची समिती नेमल्या. भारत हो हे समितीचो मुखेल वांगडी आसा. वसणूकवादा प्रमाणूच दक्षिण आफ्रिकेंतल्या भेदाआड संवसारीक लोकमत संघटीत करपाखातीर भारतान खूब यत्न केल्यात.

भारतीय राजवेवस्थेंत परराश्ट्रीय धोरणाची जापसालदारकी ही परराश्ट्र मंत्र्याची आसता. धोरणाखातीर तो लोकसभेंत जापसालदार आसता. नेहरूचो चरित्रकार मायकल ब्रेशर हाच्या मतान नेहरू हो भारतीय परराश्ट्रीय धोरणाचो शिल्पकार. काँग्रेसीन १९२८त परराश्ट्रीय धोरणाखातीर स्वतंत्र विभाग सुरू करीत सावन ताची जापसालदारकी नेहरून अखेरमेरेन सांबाळ्ळी. परराश्ट्रीय धोरणाखातीर कॅबिनेटाची एक समिती आसली, तरीय नेहरूच्या मंत्रीमंडळांतल्या हेर कोणेंच परराश्ट्रीय धोरणांत व्हडलोसो रस घेतलोना. पाकिस्तानाविशींच्या धोरणासंबंदीं मात खूबदां मतभेद जाताले. देशांतले राजकीय पक्ष आनी वट्ट लोकमत हांच्यांतूच नेहरूच्या धोरणाविशीं मतैक्य आशिल्लें. लोकसभा, पक्ष, उच्च नोकरवर्ग, लश्करी अधिकारी ह्या सगळ्यांनी नेहरूचेच नदरेन परराश्ट्रीय धोरणाकडेन पळेलें.

भारताची भुगोलीक स्थिती, रशिया आनी चीनाकडेन आशिल्ले लागींचे संबंद मतींत घेतल्यार शीतझुजाच्या संदर्भांत ताणें आपणायल्ली तटस्थतायेची भुमिका योग्य अशें दिसता. भारताचें अर्थीक दुबळेपण आनी अस्तंतेकडल्या उदारमतवादाचो भारतीय फुडारपणावयलो पगडो ह्या गजालीक लागून भारतान अलिप्ततायवादी धोरण आपणायलें आसुंये. देशहिताचे नदरेन परराश्ट्रीय धोरण थरोवचें पडटा, अशें नेहरून म्हळां आनी हें हीत खंयचें हें थरोवपाखातीर नेहरूचें फुडारपण सगळ्यांनी मान्य केल्याचें दिसता. नेहरू उपरांतच्या काळांत जरी वेगळो परराश्ट्रमंत्री नेमलो आसलो, तरीय ह्या क्षेत्रांत तेन्नाच्या प्रधानमंत्र्याचो प्रभाव तिगून उरलो. ताश्कंद कबलात आनी शिमला कबलात हांचेसारक्यो म्हत्वाच्यो वाटाघाटी तेन्नाच्या प्रधानमंत्र्याच्या फुडारपणाखालूच जाल्यो. परराश्ट्रीय धोरणाची समिक्षा करपाक मंत्रीमंडळान आनी संसदेन ह्या काळांत खूब वांटो घेतलो. महावीर त्यागी हाणें १९६६त, जाल्यार अशोक मेहता हाणें १९६८त आपलो विरोध परगटावपाखातीर मंत्रीमंडळाचो राजिनामो दिल्लो. पूण १९७७ उपरांतच्या सत्तांतरा उपरांत परराश्ट्र मंत्र्यानूय थोडी चड जापसालदारकी उबारिल्ल्याचें दिसता.

परराश्ट्रीय धोरणाविशीं भारतान सदांच अलिप्ततायवादाचो पुरस्कार केला. १९७७ उपरांत सत्तारूढ जाल्या जनता पक्षानूय खरी अलिप्तताय हेंच आपलें धोरण आसतलें, अशें जाहीर केलें. सदळपणान अलिप्तताय हाचो अर्थ खंयच्याच सैनिकी गटांत सामील जायनासतना, दरेक आंतरराश्ट्रीय प्रस्नाचेर स्वतंत्रपणान निर्णय घेवप, असो करतात. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत सुरू जाल्या शीतझुजाच्या आनी व्हडल्या राश्ट्रांनी स्थापन केल्या सैनिकी युतींच्या संदर्भांत हें धोरण थरयल्लें. खंयच्याय गटांत भितर सरल्यार दुसऱ्या गटाचो राग ओडोवन घेवन आपली सुरक्षीतताय धोक्यांत येता; दोन सैनिकी गटांचे सर्तीतल्यान झुजाची शक्यताय वाडटा. तेन्ना अलिप्त रावन दोनूय गटांमदीं समजिकाय घडोवन हाडून शांतताय प्रस्थापीत करप हें बरें, अशें नेहरूक दिसतालें. सुरक्षेंतल्यान शांतताय स्थापन करपा जाग्यार शांतीकायेच्या सहजिणेंतल्यान सुरक्षीतताय साध्य करपाचेर ताचो भर आशिल्लो. खर शीतझुजाच्या काळांत कितल्याशाच प्रसंगां वेळार (देखीक – कोरियन झूज, इंडोचायना संघर्श, सुएझाचो पेंच) भारतान दोनूय पक्षांमदीं समजिकाय घडोवन हाडपाखातीर फुडाकार घेतलो. देखून भारताची तटस्थताय ही पारंपारिक तटस्थतायेप्रमाण नकारात्मक न्हय, अशें म्हण्टाले. हें धोरण चालीक लावपाखातीर अलिप्त राश्ट्रांच्यो परिशदो घेवन तातूंतल्यान आंतरराश्ट्रीय राजकारणांत आनी संयुक्त राश्ट्रांनी एक तिसरी शक्त निर्माण करपाक भारताचो हातभार लागलो. असल्यो परिशदो बॅलग्रेड (१९६१), कायरो (१९६४), लुसाका (१९७०), आल्जियर्स (१९७३) आनी कोलंबो (१९७६) शारांनी भरयल्यो.

आपल्या धोरणाखातीर एकवटीत राश्ट्रांचो वापर करपाचेर ह्या राश्ट्रांनी भर दिलो. नवजात राश्ट्रांनी स्वताच्या पांयांचेर उबें रावंक जावचें, हेखातीर एकवटीत राश्ट्रांनी पालव करचो, असो आग्रो भारतान धरला. अंकटॅड (UNCTAD), आशियाई विकास बँक हांचेसारक्यो संस्था स्थापन करपाक फुडाकार घेतलो. ह्या नवोदीत राश्ट्रांच्या कारभारांत व्हडल्या राश्ट्रांच्या हस्तक्षेपाक वाव आसचो न्हय, हेखातीर संयुक्त राश्ट्रांचें शांतीसैन्य उबारपाक भारतान हेर अलिप्त राश्ट्रांवांगडा मदत केली. पूण संयुक्त राश्ट्राविशींचें भारताचें धोरण आदर्शवादी कल्पनांचेर आदारिल्लें नासून राश्ट्रहिताच्या पांयांचेरूच उबारिल्लें आसा, हें विसरून चलचेंना. काश्मीराविशीं कोडू अणभव येतकूच भारतान आपले द्विराश्ट्रीय प्रस्न स्वता जावन एकवटीत राश्ट्रांकडेन व्हेलेनात. इतलेंच न्हय, जाल्यार स्वताच्या द्विराश्ट्रीय प्रस्नांविशीं संयुक्त राश्ट्राच्या हस्तक्षेपाक विरोध परगटायला. आपल्या कल्याणाक मारक थरपी संयुक्त राश्ट्रांचे थाराव भायर उडोवपाक संकोच केलोना. आपल्या धोरणाचें एक साधन हे नदरेनूच भारतात संयुक्त राश्ट्रांकडेन पळेलां.

कश्टान मेळयल्ल्या स्वातंत्र्याचो गटस्थ जाल्यान संकोच जाता, अशें भारताप्रमाण कितल्याशाच आफ्रिकी-आशियाई देशांक दिशिल्ल्यान ताणींय हेंच धोरण आपणायलें. खरें अलिप्त राश्ट्र खंयचें हें थरोवपाखातीर अलिप्त परिशदांनी एक पंचसुत्री आपणायल्या –

(१) शांतीकायेचे सहजिणेच्या तत्त्वाचेर आदारिल्लें स्वतंत्र धोरण आंखपी
(२) वसणुकांच्या मुक्तीसंग्रामाक तेंको दिवपी
(३) खंयच्याय शीतझुजाकडेन संबंदीत सैनिकी गटाचो वांगडी नाशिल्ले
(४) उदेंत-अस्तंत संघर्शाक चालना दिवपी खंयचीय लश्करी कबलात व्हडल्या राश्ट्रांकडेन करिनाशिल्ले आनी

(५) स्वताच्या भूंयप्रदेशाचेर परदेशाक सैनिकी तळ उबारूंक ना दिवपी अशा राष्ट्राक ह्या परिशदांनी सामील करून घेतात. सगळ्याच बाबींनी हे नेम कांटेकोरपणान पाळटातच अशें ना.

भारतान अलिप्तताय ही मोख नासून तें गांठपाचें एक साधन आसा, अशें मानलां. १९६२ च्या भारत-चीन झुजाउपरांत भारतान अमेरिकेकडल्यान लश्करी मदत घेतली; तशेंच चीनांतल्यो गुप्त खबरो कळच्यो, म्हणून भारतीय प्रदेशांत आण्विक यंत्र दवरपाची ताका परवानगी दिली. १९७१त संभाव्य भारत-पाक झुजांत चीनान हस्तक्षेप करचो न्हय, ह्या उद्देशान रशियेकडेन कबलात केली.

खंयच्याय देशाच्या परराष्ट्रीय धोरणाचो ताचे संरक्षण वेवस्थेकडेन लागींचो संबंद आसता. आपणाक खंयच्या देशाकडल्यान संभाव्य धोको आसा, हें हेरून ताचेर राजनितीक आनी सैनिकी अशा दोनूय तरांची उपाय-येवजण करप गरजेचें आसता. ह्या दोनांचेंय प्रमाण त्या देशांतल्या तंत्रीक, उद्‌देगीक प्रगतीचेर, लोकसंख्येचेर आनी राष्ट्रीय साधनसंपत्तीचो विनियोग करपाखातीर शासनान खंयचो अग्रक्रम थारायला, हाचेर आदारून आसतलो.

भारतीय फुडाऱ्यांक सुरवातीच्या काळांत पाकिस्तानाकडल्यान आपणाक सगळ्यांत चड धोको आसा, अशें दिसतालें. ह्या काळांतली संरक्षण वेवस्था ते नदरेनूच उबी केल्ली. पाकिस्तानान अमेरिकेकडेन युती करतकूच, स्वताच्या बळग्याचेर ताचें संभाव्य आक्रमण परतून लायतलों, असो विस्वास भारताक दिसतालो. भारताचीं संरक्षक दलां शस्त्रास्त्रांखातीर इंग्लंडाचेर आदारून आशिल्लीं, ताका लागून अस्तंतेकडल्या देशांकडेन दुरावो निर्माण जालो, तरी भारतान तांचेकडेन आपले संबंद तोडलेनात.

चीनांतली राजकीय अस्थीरताय आनी हिमालयाची आडखळ मतींत घेतल्यार, चीनाकडल्यान आमकां धोको आसा, अशें भारतीय फुडाऱ्यांक दिसलेंना. नेपाळ, भूतान आनी सिक्कीम हांचेकडेन लागींचे संबंद स्थापन करून आनी चीनाकडेन इश्टागतीचे संबंद तोडून त्या भागाची सुरक्षीतताय वाडोवंची पडटली, अशेंय तांकां दिसलें. ताका लागून ह्या काळांत चीनांतल्या साम्यवादी शासनाक राजनितीक मान्यताय दिवन, संयुक्त राष्ट्रांनी साम्यवादी चीनाक प्रवेश मेळचो, म्हणून भारतान यत्न करून, चीन-अमेरिका (कोरियांतल्या) झुजांत मध्यस्थी करून चीनाकडेन स्नेहसंबंद स्थापन केले. १९५४त चीनाकडेन जाल्ले कबलातींतल्या पंचशील तत्त्वांक लागून भारताक आनिकूय सुरक्षीत दिसलें.

चीनाचे १९६२ चे घुरये उपरांत हेविशीं भारतीय फुडाऱ्यांचे चीनाविशीं मूल्यनिर्धारण कशें चुकीचें आशिल्लें, तें नदरेक आयलें. तेउपरांत पाकिस्तान आनी चीन ह्या दोनायपसून संरक्षण करपाची गरज भारताक निर्माण जाली. चीनान अणुस्फोट करतकूच ही जाणविकाय आनिकूय वाडली. रशिया-चीन दुफळी मतींत घेतल्यार १९६२ उपरांत भारताचें परराष्ट्रीय धोरण रशियाकडेन चड लकपाक लागिल्ल्याचें दिसता. भारतान रशियाकडल्यान म्हत्वाच्या क्षेत्रांत लश्करी आनी अर्थीक मदत मेळयली. शस्त्रास्त्रांच्या मळार स्वावलंबी जावपाखातीरूय रशियाची मदत मेळयली. अणुतंत्र गिन्यानाची उदरगत करपाखातीर मात भारतान कॅनडा आनी अमेरिका हांचेकडल्यान पालव मेळयलो. ह्या मळारूय स्वावलंबी जावपाखातीर १९७४त भारतान अणुस्फोट केलो. अजूनूय युरेनियमाखातीर भारत अमेरिकेचेर आदारून आसा. अर्थीक आनी लश्करी क्षेत्रांतल्या दोनूय व्हडल्या राष्ट्रांच्या पालवाक लागून भारताच्या अलिप्ततायवादाक एक नवी दिशा मेळ्ळी.

भारत-पाक १९७१ च्या झुजाउपरांत भारतान चीन आनी पाकिस्तान हांचेकडेन सर्वसामान्य संबंद स्थापन करून, परराष्ट्र धोरणाचेर आनी संरक्षण वेवस्थेचेर पडपी ताण उणो करपाचो यत्न केला. तशेंच शेजारच्या सगळ्या राष्ट्रांकडेन आशिल्ले प्रस्न सोडोवपाचे यत्न केल्ले. १९७७ उपरांत हे प्रक्रियेक खूब गती आयली. शेजारच्या सगळ्या राष्ट्रांकडेन स्नेहसंबंद निर्माण केल्यार अलिप्त आनी स्वतंत्र धोरण आंखूं येता, अशें हें धोरण सुचयता.

भारतीय फुडारी परराष्ट्र धोरण आंखपाक बरेच येसस्वी जाल्यात. परराष्ट्र धोरणांत ताणीं गरज आसा तें सातत्य राखलां. पाकिस्तानाकडेन आशिल्ले संबंद सुदारपाच्या यत्नांनी आनी त्या धोरणाक लागून एकसारके जावपी फारपेट आनी तणावाचें वातावरण टाळ्ळां. संयम आनी समजिकाय दवरपाक राजकीय फुडारपणाक परराष्ट्रीय आघाड्यांचेर येस आयलां. खेरीज भारत अलिप्ततायवादी आशिल्ल्यान ताका रशिया आनी अमेरिका ह्या दोनूय महासत्तांकडेन इश्टागतीचे संबंद तिगोवन दवरप शक्य जालां.

– कों. वि. सं. मं.

**परलोक :** मनीस जल्मता तो इहलोक आनी ताच्या मरणाउपरांत ताचो आत्मो जंय वता तो परलोक. परलोकाची कल्पना दुसऱ्या दोन कल्पनांचेर आदारून आसा. (१) मरणाउपरांतचे जिवीत (२) धर्तरेभायल्या विश्वाचें अस्तित्व. धर्तरी वा भूलोक हाचेवांगडाच अंतरिक्ष, सर्ग, नरक, पाताळ, विष्णुलोक, ब्रह्मलोक, शिवलोक, सिध्दलोक, पितृलोक अशे मनशाच्या वास्तवाचे आनीक प्रांत (लोक) मानप आदिम काळापसून चालू आसा. मेल्ल्या मनशाचें दहन केले उपरांत अग्नी ताच्या आत्म्याक परलोकांत घेवन वता अशें अथर्ववेदांत सांगलां (६.१२०). देवयान आनी पितृयानांत अशे परलोकांत येवपा-वचपाचे उपनिशदांत दोन मार्ग सांगल्यात.

मरणा उपरांतच्या जिविताची कल्पना भोवतेक सगळ्याच धर्मांनी आशिल्ल्यान, थंय परलोकाची कल्पना चलत आयल्या. निमाण्या संस्काराच्या वेळार तशेंच उपरांतच्या धर्मीक विधींनी मनशाचे गरजेच्यो वस्तू (अन्न, उदक, दिवो, जोतीं, सत्री) मृत आत्म्याक अर्पण करपाची चाल अजुनूय चलता. मृत मनशाच्या आत्म्याक परलोकांतल्या वास्तवांत सूखशांती लाबची म्हूणून प्रार्थना करपाची चालूय सगळ्या धर्मांनी चलता. मृत मनशाचो उल्लेख स्वर्गवासी, परलोकवासी, वैकुंठवासी असो आजूय करतात.

इहलोकाचे वागणुकेप्रमाण म्हणजेच पाप-पुण्याचे जोडीप्रमाण परलोकांतलें जिवितांतलें सूख-दुख्ख भोगूंक मेळटा, अशी कल्पना आसा. इहलोकांत जे बरीं कर्मां करतात आनी पुण्यसंचय करतात तांकां परलोकांत (सर्गांत) सुखाची प्राप्ती जाता. इहलोकांत जे पापां करतात तांकां परलोकांत (नरकांत) यातना भोगच्यो पडटात. परलोकांत गेल्ले आत्मे कांय काळाउपरांत परतून इहलोकांत हे ना ते योनींत (मनीस, पशू, पिशाच्च आनी हेर) परतून जल्म घेता ही भावना पुनर्जल्म मानपी सगळ्याच धर्मांच्या लोकांखातीर आसा.

परलोकांतल्या आत्म्याकडेन संपर्क दवरपाची शक्त कांय साधकांक प्राप्त जाता असोय समज आसा. परलोक विद्येवरवीं हे साधक परलोकांतल्या आत्म्याकडेन संपर्क दवरूंक शकतात ह्या विश्वासान

कांय लोक ताचो मध्यस्त म्हणून वापर करतात आनी ताचेवरवी आपल्या नात्यांतल्या मनशाच्या आत्म्याकडेन संबंद प्रस्थापीत करपाचो यत्न करतात.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : परलोकविद्या.

**परलोकविद्या :** परलोकांतल्या मनशांकडेन संबंद दवरपाचे विद्येक हें नांव आसा. मरणाउपरांत मनशाचो आत्मो सुक्ष्मदेह धारण करून परलोकांत कांय काळ रावता. अशा सुक्ष्म देह धारण केल्ल्या मनशाकडेन इहलोकांतल्या मनशांक मध्यस्थांच्या आदारान वा स्वतंत्रपणान उलोवपाक येता अशी ह्या शास्त्राची धारणा आसा, अशें म्हण्टात. पुर्विल्ले क्रिस्तांव लोक आनी अमेरिकेचे मुळावे लोक हांकां ही परलोकविद्या येताली. अमेरिकेंतलो अँड्र्यू जेक्सन डेवीस हाका आधुनिक परलोक विद्येचो आद्य प्रणेतो मानतात. १७-१८ वर्सांचे पिरायेउपरांत अकस्मात ताच्या आंगांत दिव्य शक्ती प्रगट जाली आनी ताका परलोकांतल्यान दिव्य वाणी आयकुपाक येवंक लागली. उपरांत ताका दिव्य नदर प्राप्त जाली, तो भविश्यवादीय जालो. ताच्या एका पुस्तकांत मोटार, विमान आदी सोदांचें भविश्य करून दवरिल्लें आशिल्लें. ताणेंच सांगिल्लेप्रमाण ३१ मार्च १८४८ दिसा आर्विल्ले परलोक विद्येची सुरवात एका खेडेगांवांत जाली. थंयचे एके चलयेक ठोक्यांचे भाशेंत गूढ संदेश मेळूंक लागले. ताचे उपरांत जायत्या मनशांक अशे तरेचे संदेश मेळूंक लागले. नामनेचो शास्त्रज्ञ विल्यम क्रुक्स हाणें हे विद्येचें संशोधनूय सुरू केलें. उपरांत स्टेड, कॉनन डॉयल, ऑलिवर लॉज आदी जायत्या संशोधकांनी परलोक संदेशाचें संशोधन केलें आनी तांकांय तातूंत खरेपण दिसलें. ह्या संदेश ग्रहणाचे पद्दतींत जे वेगवेगळे चमत्कार दिसतात ते परलोकांतल्या व्हड प्रज्ञासंपन्न मनशाचे प्रेरणेक लागून घडटात अशें त्या भौतीक शास्त्रज्ञांनी मान्य केलें.

अशा जायत्या पंडितांनी परलोकाविशीं संशोधन करून जे निश्कर्श काडले तातूंत जायतीं मतां दिसतात. तांचीं परलोकाविशीं ज्ञानाचीं साधनां चड करून तीन आसात. १) सूक्ष्मदर्शन वा दिग्दर्शन २) परलोकांतल्यान मेळपी प्रेरणा ३) प्रयोगांतल्यान घडणुकांवयल्यान केल्लीं अनुमानां. कांय पंडितांच्या मतान सगळे परलोक धर्तरे भोंवतणीं क्रमान पातळिल्ले आसून, पृथ्वी हेंच ताचें केंद्र आसा. तांची संख्या सादारणपणान सात मानतात. कांय जाणांच्या मतान परलोक हे धर्तरेवयल्यान भायर पडपी सुक्ष्म द्रव्यांपसून तयार जाला. कांय जाण अशें मानतात, पुराय संवसारूच एक आसून ताच्या स्थूल प्रत्ययाक इहलोक आनी सुक्षीम प्रत्ययाक परलोक म्हण्टात. इहलोकांतल्या कर्माप्रमाण जिवाक परलोकांत मानसीक त्रास भोगचे पडटात.

आर्विल्ली परलोकविद्या पुर्विल्ले परलोकविद्येप्रमाण फकत भावार्थी नासून अणभवान आनी प्रयोगान ती सिध्द करपाक येता, अशें पंडिताचें मत आसा. पुर्विल्ल्या काळांत सिध्द वा योगी मनशांक तांच्या दैवी सामर्थ्याक लागून जायत्या गजालींचें गिन्यान मेळटालें. हें गिन्यान तांकां परलोकांतल्या मनशाचे प्रेरणेनूच मेळटा अशें म्हण्टात. सामान्य मनशाच्या माध्यमांतल्यान जेन्ना परलोकांतल्या मनशाचे संदेश ग्रहण करप जातात तेन्ना तांचें अस्तित्व सिध्द जाता. आर्विल्ले परलोक विद्येक लागून हें शक्य आसा.

परलोक विद्येच्या प्रयोगांनी जायत्या तरांचे चमत्कार अणभवपाक मेळटात. हे चमत्कार परलोकांतल्या व्यक्तींचें अस्तित्व आनी दैवी बळगें हांकां खरेपण हाडटात. आर्विल्ले परलोकविद्येंत धर्माचीं मुलतत्त्वां सोडिल्लीं नात. पूण भौतीक शास्त्राचो आदार घेवन ती विद्या जिवीतसातत्याच्या साक्षात पुराव्याचेर स्थापन जाल्या. परलोकविद्या म्हळ्यार नवो धर्म वा पंथ नासून, धर्मीक उदरगत आनी विचार स्वातंत्र्य हांचेर आदारिल्ली अभिनव पद्दतीची ती एक शिकवण आसा. आर्विल्ले परलोकविद्येच्या पुरस्कर्त्यांनी जीं सारभूत तत्त्वां आपणायल्यांत, तातूंत देवाची सेवा करप, ताची आज्ञा पाळप, समताय आनी बंधुभाव, जिवीत सातत्य, कर्मविपाक, जिवाचें अमरत्व, ताची सतत जावपी उदरगत आनी निमाणे ईश्वराकडेन एकचार ह्या तत्त्वांचो आस्पाव जाता.

नामनेचो शास्त्रज्ञ सर ऑलिव्हर लॉज हो परलोकविद्येविशीं अशें सांगता, "म्हज्या मतान, पुराव्यान हें सिध्द आसा, की मेल्लो सुबुध्द जीव कांय परिस्थितींत आपल्या ह्या स्थूल जगाकडेन संबंद जोडूंक शकता. अशे तरेन ते आपल्या शास्त्रीय संशोधनाचे कक्षेंत येतात. दृश्य आनी अदृश्य संवसारांतली वणत जरी अजून स्थूल आसली तरी ती जायतेकडेन पातळ जाल्या. भक्तिमार्गावरीच हो परलोकविद्या मार्ग सगळ्यांक इहलोक – परलोकांतले येरादारीखातीर उपेगी पडटलो."

भारतांत नरसिंहम पंतलू, जे. एन. मित्र, नागराणी, दोरास्वामी अय्यर, गायत्रीदेवी, वि. दा. ऋषी, स. कृ. फडके आदी मनशांनी ह्या विशयाचो जायतो अभ्यास करून ताचेर ग्रंथ आनी लेख बरयल्यात. कांय जाणांनी हे विद्येचे आपले अणभवूय ग्रंथीत केल्यात.

फडके हाणें हे विद्येविशीं ताणें केल्ल्या संशोधनाचें सार सांगलां तें अशें "आर्विल्ले परलोकविद्येच्या प्रयोगावरवीं ज्या परलोकांकडेन आमचें उलोवप जाता ते परलोक म्हळ्यार प्रेतलोक, नरकलोक आनी मेल्ले पितृलोक. दरेक मनीस आपल्या परलोकांतल्या गुरूच्या मार्गदर्शनाखाल एकांतात आत्मोध्दार करपाचे साधनेंत गुल्ल आसतात. असत्कर्म करपी, प्रेतलोक आनी नरकलोक हे धर्तरेलागसल्ल्या लोकांत वतात आनी मानसीक जाच भोगतात. सादारण कर्म करपी लोक पितृलोकांत आनी विरक्त तशेंच ज्ञानी मनीस ते पलतडच्या लोकांत वतात.

पुर्विल्ल्या काळांत दुर्वास, रघुराजा, दुष्यंत, रावण, मुचकंद आदी जायते मनीस मरणाआदीं सदेह स्वर्गांत वचून आयिल्ल्याच्यो कथा पुराणांत आसात. ते मनीस स्वताच्या तपसामर्थ्यान वा देवता तशेंच सिध्द पुरूस हांच्या वरदानाक लागून तात्पुरतीं दिव्य शरिरां धारण करून दिव्य लोकांत गेल्ले आसूं येतात. नारदमुनी जाल्यार सदांच तिनूय लोकांतल्यान संचार करतालो. पुराणांतले लोक आनी आर्विल्ले परलोकविद्येंतले परलोक सामके वेगळे आसात. पुराणांतले सर्ग, नरक, पितृलोक, देवयान, पितृयान, चंद्रलोक हांचीं वर्णनां लाक्षणिक आसात. देवता आनी पितर हे खरें म्हळ्यार अमूर्त शक्तिकेंद्र आसतात. ताच्या लोकांचें क्षेत्र हें आर्विल्ले परलोकविद्येच्या क्षेत्रापरस खुबूच व्यापक, सुक्षीम आनी गूढ आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**परशुराम :** एक वैदिक ऋषी आनी विष्णुच्या धा अवतारांतलो सवो अवतार. त्रेतायुगाचे सुर्वेक क्षत्रियांचो अत्याचार खूब वाडिल्लो. देखून परशुरामाचो अवतार जालो. एकदां कार्तवीर्य अर्जून (हैदय वा सहस्त्रार्जून)

हाणें वसिष्ठ नांवाच्या ऋषीचो अपमान केल्ल्यान ताणें कार्तवीर्याक श्राप दिलो, 'तुका आनी मदांध क्षत्रियांक मारपाखातीर विष्णु अवतार घेतलो.' (हरिवंश अध्याय - ४०) भृगुकुळांतलो जमदग्नी ऋषी आनी इक्ष्वाकू वंशाच्या राजाची धूव रेणुका हांचो परशुराम हो पांचवो पूत. भृगुकुळांत जल्मल्ल्यान ताका भार्गवराम अशेंय म्हण्टाले. नर्मदेच्या कांठार जमदग्नीचो आश्रम आशिल्लो. थंय वैशाख शुध्द तृतीये दिसा परशुरामाचो जल्म जालो. ही तीथ परशुराम जयंती म्हणून समजतात.

परशुरामान आपल्या बापायकडल्यान वेदविद्येचें ज्ञान घेतलें. मूज जालेउपरांत ताणें शालग्राम पर्वताचेर वचून कश्यपा कडल्यान मंत्रोपदेश घेतलो. उपरांत गंधमादन पर्वताचेर वचून ताणें तप केलें आनी शिवाक प्रसन्न करून घेतलो. शिवान ताका शस्त्रविद्या शिकयली आनी परशू (कुराड) दिलो. खांदाचेर धोणू-बाण, आंगाचेर रूरू नांवाचें मृगचर्म, एका हातांत दिव्य परशू आनी दुसऱ्या हातांत कमंडलू असो ताचो भेस आशिल्लो. तो धनुर्विद्येंत खांपो आशिल्लो.



एक फावट चित्ररथ गंधर्वाक पळोवन रेणुकेचें मन चलबिचल जालें. जमदग्नीक जेन्ना तें कळ्ळें तेन्ना ताका राग आयलो. ताणें रेणुकेक मारपाविशीं आपल्या भुरग्यांक आज्ञा केली. तातूंतल्या परशुरामान आपल्या बापायची आज्ञा पाळ्ळी आनी आपले आवयक जिवेशीं मारली. तेन्ना परशुरामाचेर खूश जावन जमदग्नीन ताका वर मागूंक सांगलो. परशुरामान आपले आवयक जिवी करपाचो वर मागलो.

परशुरामान द्रोणाचार्याक धनुर्विद्या शिकयल्ली. भीष्म आनी कर्ण हांचोय तो गुरू आशिल्लो. जनकपुरांत रामान शिवधोणू तोडलें, हें जेन्ना ताका कळ्ळें तेन्ना ताका राग आयलो. ताणें आपलें धोणू रामाक दिलें आनी ताका बाण लावंक सांगलें. रामान त्या धोणूक बाण लावन दाखयलो, तेन्ना रामाच्या वास्तवीक रुपाची ताका वळख पटली. तेन्ना ताणें आपलें तेज आनी धोणू रामाक दिलें आनी तप करपाखातीर महेंद्र पर्वताचेर गेलो. कौरव-पांडवांच्या झुजाआदीं श्रीकृष्ण कौरवांकडेन उलोवणीं करूंक वता आसतना परशुराम ताका मेळ्ळो अशें महाभारतांत म्हळां. परशुराम हो सप्तचिरंजिवांतलो एक चिरंजीव आसा अशें मानतात. देखुनूच वेगवेगळ्या काळांतल्या घडणुकांकडेन ताचो संबंद जोडिल्लो दिसता.

एकदां हैहय कुळांतलो राजा कार्तवीर्य हाणें जमदग्नीच्या आश्रमांत वचून ताची गाय उबारून व्हेली. हें कळनाफुडें परशुरामाक ताचो राग आयलो. ताणें कार्तवीर्याकडेन झूज केलें आनी ताका जिवेशीं मारलो. जेन्ना कार्तवीर्याच्या भुरग्यांक हें कळ्ळें तेन्ना रागान परशुराम आश्रमांत ना ती वेळ सादून ताणीं आश्रमाचेर हल्लो केलो आनी जमदग्नीक जितो मारलो. हें कळटकूच परशुरामान पुराय पृथ्वी निःक्षत्रिय करपाची प्रतिज्ञा केली. फुडें ताणें आपल्या पराक्रमान हैहय कुळाचो नाश केलो. ताणें एकवीस खेपे पृथ्वी निःक्षत्रिय केली. क्षत्रियांचो संहार केल्ल्यान पुराय पृथ्वी ताच्या चपक्यांत आयली. हत्येचें पातक धुवन उडोवपाक ताणें यज्ञ केलो आनी यज्ञदक्षिणा म्हणून पुराय पृथ्वी कश्यप ऋषीक दिली. पुराय पृथ्वी दान केल्ल्यान तो थंय रावंक शकना, अशें कश्यपान ताका सांगतकूच तो आर्यावर्त सोडून महेंद्र पर्वताचेर गेलो. आपल्याक रावपाखातीर भूंय जाय म्हणून ताणें दर्याकडेन भुंयेची मागणी केली. परशुरामान आपल्या पराक्रमान दर्या आटोवन उपरांत प्रदेश निर्माण केलो अशी कथा आसा. परशुरामान आपलो परशू दक्षिणेकडेन उडयलो आनी तेखातीर शुर्पारक प्रदेश निर्माण जालो. सद्या 'शुर्पारक' (ठाणें जिल्ह्यांतलो सोपारा) हें परशुराम क्षेत्र मानतात. अशे तरेन नवी भूंय तयार करतकूच ताणें उत्तरेसावन जायतीं ब्राह्मणकुळां हाडलीं आनी उपरांत प्रदेशांत तांच्यो वसणुको केल्यो. हे नवे भुंयेक फुडें परशुरामक्षेत्र अशें नांव मेळ्ळें.

परशुरामान बाण मारून समुद्राच्या पोटांतल्यान सुपाच्या आकाराचो प्रदेश निर्माण केलो अशी एक आख्यायिका आसा. हे आख्यायिकेच्या आदारान 'गो' म्हळ्यार बाण, 'मा' म्हळ्यार मार, जंय त्या माराचो अंत जालो तो गोमांत, ताचो अपभ्रंश्ट गोमांतक अशी गोमांतक ह्या शब्दाची उत्पत्ती लायतात. कोंकणाख्यानांतल्या सह्याद्री खंडांत, परशुरामान कोंकण भूंय निर्माण केल्ल्याचो संदर्भ येता. ह्याच संदर्भांत भडोचा पसून केरळा मेरेन पातळिल्ल्या कोंकणाचोय उल्लेख मेळटा. परशुरामान सोडिल्लो बाण गोंयांतल्या सद्याच्या बाणावली गांवांत पडलो आनी ताचेयवयल्यान ह्या गांवांक बाणावली नांव पडलें अशी आख्यायिका सांगप जाता. हेच आख्यायिकेचे धर्तेचेर भडोचापसून केरळामेरेनच्या अस्तंत देगेवयल्या वाठारांत बाण पडिल्ल्याची आख्यायिका सांगपी उण्योच तीन-चार सुवातो आसात. संशोधकांच्या मतान ह्यो निव्वळ आख्यायिका आसात; तातूंत इतिहासीक सत्य उणें आसा.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : परशुराम क्षेत्रां.

**परशुराम क्षेत्रां :** परशुराम हो सप्त कोंकणांतलो देव समजतात. वैतरणेसावन कन्याकुमारीमेरेन अस्तंत दर्यादेग ही ताणें दर्याकडल्यान मेळयली आनी थंय वसणुको केल्यो अशी कथा आसा. देखुनूच, हे भुंयेर जायतीं थळां परशुराम क्षेत्रां म्हणून वळखतात. सह्याद्रीच्या उत्तर तोंकार आशिल्ल्या साल्हेरच्या दोंगरार एक मध्ययुगांतलो गड आसा. ताच्या एका तोंकार परशुरामाचें देवूळ आसा. देवळाचे उत्तरेक लागींच मनशाच्या पावलांच्या चारपट आकाराचीं दोन पावलां खणिल्लीं आसात. बाण मारतना मनीस ज्या पवित्र्यांत पावलां दवरता तशी ह्या पावलांची येवजण आसा. परशुरामान हांगाच रावन बाण मारून दर्या फाटल्यान घालयलो अशें सांगतात.

दक्षिणेंत तिरुवितांकुर जिल्ह्यांत महेंद्र गिरी दोंगरार, तशेंच ओडिसाच्याय महेंद्र पर्वताचेर परशुराम क्षेत्र आसा. गुजरातांत भडोच जिल्ह्यांत सव्या शतमानांतलें भृगुचें देवूळ आसा. हें थळ परशुराम क्षेत्र

मानतात. पंजाबांत कांगडा जिल्ह्यांत परशुरामाचें एक पुर्विल्लें देवूळ आसा.

कोंकणांत चिपळूणासावन लागसारूच एका दोंगराचेर परशुरामाचें एक देवूळ आसा. थंय जो गांव वसला ताकाय ह्या देवस्थानाक लागून परशुराम अशेंच म्हण्टात. थंयच्या देवळांत काम, परशुराम आनी काल अशो तीन मुर्ती आसात. हातूंतली परशुरामाची मूर्त हेर दोगांयपरस व्हड आसा.

इ. स. १५०० वर्सां विजापूरच्या आदीलशाहाच्या बेगमची तारवां दर्यांत गेल्लेकडेन नाच जालीं. तेन्ना बेगम भियेली. तिका परशुरामाचें म्हत्व खबर आशिल्लें. देखून तिणें परशुरामाक नवस केलो, आपलीं तारवां बरे भाशेन देगेक लायल्यार तुजें देवूळ बांदतलीं. थोड्याच वेळांत तिचीं तारवां बरे भाशेन आयलीं, उपरांत तिणें दाभोळ्याक साकून काळे फातर हाडून देवूळ बांदून घेतलें. फुडें इ. स. १६९८ वर्सा ब्रह्मेंद्रस्वामी धावडशीकर हाणें ह्या देवळाचो जीर्णोध्दार केलो आनी फाटले वटेन रेणुकेचें देवूळ बांदलें. ब्रह्मेंद्रस्वामीच्या काळामेरेन ह्या देवळांत मुर्ती नाशिल्ल्यो. फुडें गुहागरच्या परचुरे नांवाच्या एका मनशान मुर्ती घडोवन तांची प्रतिश्ठापना केली. दर वर्सा अक्षय तृतीये दिसा हांगा परशुरामाचो व्हड उत्सव जाता.

गोंयांत पैंगिणीं वाठारांत परशुरामाचें एक देवूळ आसा.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : परशुराम.

**पराशर** : एक गोत्रप्रवर्तक वैदिक ऋषी आनी स्मृतीकार. पराशर हें गोत्रनामय आसा. तें उपनांव म्हणून त्या गोत्रांतल्या मनशांक लागता हें लक्षांत घेतल्यार वेगवेगळ्या काळांतले ग्रंथकार हे पराशर आशिल्ले हें कळटा. वसिष्ठाचो पूत शक्ती हाचेपसून अदृश्यंतीक पराशर हो जाल्लो पूत. शक्तीचो पूत देखून 'पराशर शक्त्यतो' अशेंय ताचें नांव आसा. शक्ती हो एक फावट रानांत गेल्लेकडेन पुराणाप्रमाण विश्वामित्राच्या शिश्यांनी ताचो खून केलो. अदृश्यंतीन बारा वर्सां गर्भांत आशिल्ल्या आपल्या बाळकाची राखण केली. वेदांचें अध्ययन ताणें आवयच्या पोटांतूच केलें. वशिष्ठान जाण्टेपणांत पराशराचो सांबाळ केलो. निरुक्तकार यास्काच्या मतान तो वसिष्ठाचोच पूत. ताका पराशर म्हळ्यार पराशीर्ण (म्हातारो वशिष्ठ) हाचो पूत अशी उत्पत्ती निरुक्तांत दिल्ली आसा.

आपल्या बापायक मारपी राकेसाचो नाश करपाखातीर ताणें 'राक्षससत्र' सुरू केलें. अशी कथा पुराणांनी मेळटा. वसिष्ठाचे सांगणेन ताणें हें सत्र बंद केलें. तीर्थयात्रेच्या निमतान तो यमुनेचे देगेर गेल्लेकडेन ताचें मन उपरिचरवसू नांवाच्या राजाची धूव सत्यवती हिचेर बसलें. सत्यवतीक ताचेपसून जो चलो जालो तोच द्वैपायन व्यास अशें म्हाभारतांत म्हळां. हेविशीं आनीक एक दंतकथा मेळटा ती अशी – पराशराक यमुनेचे देगेर सत्यवती नांवाची धीवरकन्या दिश्टी पडली. तिच्या आंगाक नुस्त्याचो वास येतालो. तो तिका भुललो आनी ताणें तिचेकडेन भोगयाचना केली. उपरांत आपली इत्सा पूर्ण करून ताणें तिका दोन वर दिले. १) तिचें कुमारीपण नश्ट जावंचेंना २) तिच्या आंगाचो नुस्त्याचो वास वचून, ते सुवातेर तिच्या आंगाक सुवासीक वास येतलो.

पार्जिटरान 'पराशर शाक्त्य' आनी 'पराशर सागर' अशे पराशर नांवाचे दोन मनीस वसिष्ठकुलांत जावन गेल्याचें म्हळां. पराशर शात्त्य हो वैदिक सुदासाच्या काळांतलो आनी वसिष्ठाचो नातू आशिल्लो. ताणेंच 'राक्षससत्र' केलें. पराशर सागर हो शंतनूच्या काळांतलो, सगर वसिष्ठाचो पूत द्वैपायन व्यासाचो बापूय आशिल्लो अशेंय मत ताणें उक्तायलां.

पराशराच्या नांवाचेर आशिल्ल्या 'पराशरस्मृति' वा 'पाराशरस्मृति' ह्या ग्रंथाची नामना आसा. तातूंत बारा अध्याय आनी ५९२ श्लोक आसात. आचार, प्रायश्चीत, पुनर्विवाह, आपध्दर्ध आदी जायत्या विशयांची भासाभास तातूंत आयल्या. हे स्मृतीचो रचनाकाळ पांचव्या शतमानाच्या अदमासाक आसुंये अशें मानतात. कृत, त्रेता, द्वापर आनी कली ह्या चार युगांनी अनुक्रमान मनू, गौतम, शंखलिखित आनी पराशर हांच्यो स्मृती प्रमाणभूत मानच्यो अशें हे स्मृतीच्या सुर्वेच्या भागांत म्हळां. पूर्वसूरीच्या एकुणीस स्मृतीग्रंथांचीं नांवां तातूंत आयिल्लीं आसात. याज्ञवल्क्यस्मृतींत धर्मावयल्या पुर्विल्ल्या लेखकांमदीं पराशराचो उल्लेख आसा. हाचेवयल्यान ही स्मृती खुबूच पुर्विल्ली आसूंक जाय. सद्या उपलब्ध आशिल्ली स्मृती ही मूळ स्मृती न्हय. मिताक्षरा, अपरार्काची, याज्ञवल्क्य स्मृतीवयली टिका 'स्मृतिचंद्रिका' हातूंत, तेचपरी हेमाद्री आनी विश्वरूप हांच्याय ग्रंथांनी ह्या स्मृतींतलीं वचनां आयिल्लीं आसात. गरूडपुराणांतूय वट्ट ३९ पद्यांत हे स्मृतीचो सारांश दिल्लो आसा. हाचेवयल्यान ही स्मृती प्रमाणभूत मानतात. कौटिलीय अर्थशास्त्रांत स खेपे पराशर वा पाराशर हांची राजकीय आनी प्रशासकीय विशयांवयलीं मतां उद्‌धृत केल्लीं आसात.

बृहत्-पराशर-संहिता नांवाचो एक बृहत् ग्रंथ ताच्या नांवार आसून तातूंत १२ अध्याय आनी इंद्रवज्रां आनी वसंततिलका वृत्तांतले सुमार ३,३०० श्लोक आसात. ह्या दोन ग्रंथांभायर ताच्या नांवार धर्मशास्त्राविशींच्या ग्रंथांचे उल्लेख आसात. वृध्दपराशर स्मृती हाचो उल्लेख अपरार्काच्या याज्ञवल्क्य स्मृतीवयले टिकेंत आनी माधवाच्या पराशर माधवीय हातूंत मेळटा. ज्योति पराशर ह्या स्मृतीग्रंथाचो उल्लेख हेमाद्री आनी भट्टोजी दीक्षित हाणीं केला.

धर्मशास्त्राभायर ताच्या नांवार पराशरसंहिता, बृहतपाराशर होराशास्त्र, लघुपाराशरी, पाराशर्यकल्प हे ज्योतिशाविशींचे ग्रंथ तशेंच पराशरतंत्र, वृध्दपराशर, हस्तिआयुर्वेद, गोलक्षण, वृक्षायुर्वेद हे वैजकीविशीं ग्रंथ, पराशरोपपुराण नांवाचो पुराण ग्रंथ, पराशर केवलसार हो वास्तुशास्त्राविशींचो ग्रंथ आशिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. पराशर हो गोत्रर्षी, ताच्या वंशाच्या गौरपराशर, नीलपराशर, श्यामपराशर, कृष्णपराशर, श्वेतपराशर, धुम्रपराशर अशे स फांटे जाल्यात.

– कों. वि. सं. मं.

**परिणामवाद** : एक दार्शनिक सिध्दान्त. जगदुत्पत्तीच्या संदर्भात सांख्यांनी परिणामवाद आपणायलो. त्रिगुणात्मक अचेतन प्रधानापसून जग तयार जाता अशें सांख्य दर्शनांत सांगलां. ह्या प्रयत्नापसून एकदम जग उत्पन्न जायना जाल्यार प्रधानापसून महत्, ताचेपसून अहंकार आनी अहंकारापसून इंद्रियां, पंच तन्मात्रां आनी पंचमहाभुतां अशी क्रमान ही दृश्य सृश्ट जाता अशी ती कल्पना आसा. ह्या जगदुत्पत्तीच्या क्रमाक परिणामवाद अशें म्हण्टात. परिणामवादाचें लक्षण अशें – 'सतत्त्वतोऽन्यथाप्रथा विकार इत्युदीरितः' एके वस्तूच्या मूळ रुपाचो परित्याग जावन रुपांतरान जेन्ना ताका दुसरी स्थिती प्राप्त जाता तेन्ना

त्या विकाराक परिणाम अशें म्हण्टात. देखीक - दुदापसून धंयाची उत्पत्ती.

जेन्ना कारणापसून उत्पन्न जाल्लें कार्य वास्तव आसता तेन्ना ताका परिणाम अशें म्हण्टात. दुदापसून धंय जाता. तें धंय म्हळ्यारूच खरी वस्तू आसता. दुदापरस ताचो आकार, रूप आनी फळ हीं वेगळीं आसतात. परिणामवाद आपणावन सांख्यांनी दृश्य जगत हें सत्य मानिल्लें आसा. हाचे उरफाटें हें जग म्हळ्यार वास्तव नासून आभास आसा अशें मानतात. ह्या सिध्दान्ताक ताणें विवर्तवाद अशें नांव दिल्लें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**परिभास :** खंयच्याय शब्दाक (आशयाक) संदर्भयुक्त, शास्त्रीय तसोच सांकेतीक अर्थ दिल्लो नवो शब्द वा थरयल्लीं चिन्नां. सर्वसादारणपणान वेव्हारांत घोळपी शब्द, केन्नाकेन्ना आशय पुरायपणान आनी फावो तसो उकतो करपाक असमर्थ थारता. अशा वेळार आशयाक ताच्या गुणांसयत प्रकट करपाक परिभाशेचें आयोजन करप जाता. शास्त्रीय विशयांत आनी नव्या विज्ञानांत अशे परिभाशेची चड गरज लागता. कारण रूढ आशिल्ल्या शब्दांक शास्त्रीय संकेतापरस, समाजीक संकेत मेळिल्लो आसता. परिभास नेमको अर्थ प्रतीत करता आशिल्ल्यान एकतर शब्दांचो मतभेद टाळटा आनी दुसरें म्हळ्यार सर्वसादारणपणान घोळपी शब्दाक, जाका एकापरस चड अर्थ उरतात, त्या शब्दाक परिभास अचूक असो एक अर्थ सुचयता.

मनीसकुळयेच्या सुर्वेच्या काळांत, मुळावे गरजेंतल्यान भायर पडून मनीस जेन्ना नव्या आनी प्रगत विद्यांची निर्मिती करूंक लागलो तेन्ना दीसपट्ट्या वेव्हारांत घोळपी उतरां नव्या विद्यांचो अर्थ लावपाक उणीं पडूंक लागलीं तेन्ना नव्या अनुभुतींक नवे संकेत निर्माण करपाची मनशाची वृत्ती सुरू जाली.

संदर्भयुक्त आनी अचूक असो नेमको अर्थ सांगपी शब्द इतले पुरतीच परिभाशेची व्याप्ती उरना जाल्यार कांयकडेन सोंपेपण आनी सुटसुटीतपण येवंचेखातीर कांय अक्षरांचो वा चिन्नांचो वापर करप जाता. देखीक - ऑक्सिजनाच्या जाग्यार (O), हायड्रोजनाच्या जाग्यार (H), बेरजेच्या जाग्यार (+), वजाबाकी (-), गुणाकार (×), भागाकार (÷) ह्यो खुणो हांचेफाटलो अर्थ सुचीत करतात. थरावीक ध्वनी, कुरवो, रंग हे सारकिले संकेतीक संदर्भूय संकेतीक अर्थ निर्माण करतात. परिभास निर्माण करतना परिभाशेचे व्याख्येक आनी संदर्भाक म्हत्व उरता कारण एकूच परिभाशीक शब्द वेगवेगळ्या शास्त्रांनी वेगळो संदर्भ घेवन येता. देखीक - पंच, राज्यशास्त्रांतलो पंच हो शब्द खेळांशास्त्रांत वेगळो संदर्भ सुचीत करता. राज्यशास्त्रांत ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हळ्यार पंच जाल्यार खेळांशास्त्रांत खेळांतलो मध्यस्थ म्हळ्यार पंच.

नेमको आनी सुटसुटीतपणान आशय उकतो करप हातूंत परिभाशेचें येस उरता. कांय खेपे नेमको आशय सादपाखातीर कठीण शब्द निर्मिती करप जाता. जाल्यार कांय खेपे सुटसुटीतपण येवंचेखातीर आशय अव्यक्त उरता. परिभाशेंतले दोनूय तरांचे उणाव पयस करून नेमको आनी अचूक अर्थ दिवपी परिभास करप तशें अवघड काम. तशेंच आशय आनी शब्द हांच्या अवलोकनासंबंदीं मतभेद निर्माण जावन एकाच घटकाक दोन वेगळे परिभाशीक शब्द निर्माण जावपाची शक्यताय आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**परीकथा :** सर्वसादारणपणान अद्‌भूत आनी चमत्कारांनी भरिल्लो बालसाहित्यांतलो एक कथांप्रकार. पर म्हळ्यार पांख आनी पांखां आशिल्ली मानवी स्त्रीव्यक्ती म्हळ्यार परी. तिका इंग्लिशींत Fairy अशें म्हण्टात. हो शब्द मुळांत लॅटीन 'fata' (रोमन देवता निदर्शक) हाचेवयल्यान आयला. ह्या शब्दाचें पोरणें फ्रँच रूप 'faerie' आसून ताचो अर्थ जादू वा चेटूकपण असो जाता.

चडशा परीकथांनी परी ह्यो अद्‌भूत शक्ती आशिल्ल्यो मायेस्त चलयो वा बांयलो अशें दाखोवप जाता आनी त्यो चडशो बरीं कर्तुबां करतात. खास करून परीकथांनी परी ल्हान भुरग्यांचेर बरे संस्कार करपाचो यत्न करतात. परीकथांतल्यान चडशें बऱ्याचें जैत जाता आनी वायटाचो नाश जाता, अशें दाखयतात.

संवसारीक परीकथा साहित्यांत पऱ्यांचीं विंगड विंगड रुपां वर्णिल्यांत. आंग्ल परी ही आवयसारकी मायेस्त आसता. आयर्लंडी परी ल्हान आनी नाचपी आसता. फ्रँच 'fee' ही सोबीत तरणाटी आसता. जर्मन परी म्हातारी, समंजस आनी शाणी आसता. स्पेनी 'fada' ही भुरळ घालपी परी. ती केन्नाकेन्नाय दुश्ट तशेंच कुरुपूय आसता. पऱ्यांचे तांच्या राबित्यांवयल्यान केल्ले वेगवेगळे प्रकारूय दिसतात. देखीक - जलपरी, हिमपरी, वायुपरी, रानपरी आदी वेगवेगळ्या परीरुपांक लागून देशांदेशांतल्या परीकथांचीं रुपांय विंगड विंगड आशिल्लीं दिसतात. परीकथा मनोरंजक आशिल्ल्यान भुरग्यांक त्यो खूब आवडटात.

कांय परीकथांनी निर्जीव वस्तूंक सचेतन रूप दितात, जाल्यार कांय कथांनी जनावरांक, सुकण्यांक मानवी व्यक्तिमत्व दितात. खूबदां परीकथा ही परीविरयत आसूं येता. कार्लो कोल्लॉदीची 'पिनाकिओ' ही लाकडी बावली जादू जावन सचेतन जावंक शकता; पारंपारीक रशियी कथेंतली 'स्नेगुर्का' ही हिमपुतळी सचेतन जायन खरे ल्हान चलयेभाशेन वागता. हेन्स क्रिश्चन अँडरसनाचें 'अग्ली डक्लिंग' म्हळ्यार बदकाचें कुरूप पील आनी हेर पात्रां विचार करूंक शकतात; तशेंच तीं एकामेकांकडेन मनशा असले भाशेंत उलोवंक शकतात. शार्ल पेयेच्या 'सिंड्रॅला'क मायेस्त परी आनी जनावरां मदत करतात. पऱ्यांची अद्‌भूत शक्त अशे तरेन विंगड विंगड रुपांनी प्रगट जाता. देखून ह्या कथांकूय परीकथा अशेंच म्हण्टात.

परीकथांचो उगम निश्चीत केन्ना जालो, तें कळना. पाशाण युगांतूय अप्रुपांच्या लोकांकाणयांच्या साध्या रुपांत परीकथा सांगताले. इ.स.प. २००० वर्सांपयलीं इजिप्तच्या पुर्विल्ल्या कबरींच्या उत्खननांत परीकथा बरयल्ले पपायरसचे अवशेश मेळ्ळे. पंदराव्या शेंकड्यामेरेन, मुद्रणकलेच्या सोदाआदीं, घरांतलीं जाण्टीं मनशां हेरांक लोकांकाणयो आनी परीकथा सांगतालीं. अशे तरेन तोंडयां घोळत आयिल्ल्या ह्या परीकथांचो प्रसार जालो. वेगवेगळ्या देशांतले लोक वेपारधंद्या निमतान परदेशांत वताले, तेन्ना मनोरंजनाखातीर आपापल्या देशांतल्यो लोकांकाणयो आनी परीकथा सांगताले. कांय काळाउपरांत तातूंतल्या कांय परीकथांचो परदेशांत वेगळ्याच रुपांत प्रसार जातालो; कांय खाशेल्या परीकथांचे वेगवेगळ्या देशांत जे भेद दिसतात ते हाकाच लागून.

जोव्हान्नी फ्रांचेस्को स्ट्रापारॉला ह्या इटलियी लेखकान La piacevoli notti हो परीकथां झेलो १५५०त व्हॅनिसांत छापलो आनी पुस्तकरूपांत परीकथा उजवाडावपाचो पयलो मान मेळयलो. त्या झेल्यांत, १५५३त ताणें आनिकूय कांय परीकथांचो आस्पाव केलो. सतराव्या शेंकड्यांत

शेक्सपियरान आपल्या कांय नाटकांनी परीकथात्मक कथानकांचो वापर केलो. सतराव्या शेंकड्यांतूय फ्रांसाच्या शार्ल पॅरो (१६८८-१७०३) हाणें बऱ्याच इटलियी परीकथांचीं फ्रेंच रुपांतरां केलीं. कांय परीकथा ताणें स्वता बरयल्यो. Contes de ma Mere l'Oye हो ताचो परीकथांझेलो बरोच नामनेक पावलो. मादाम द अल नॉय हे फ्रेंच लेखिकेन, ह्याच काळांत कांय रुचीक परीकथा बरयल्यो.

अठराव्या शेंकड्याचे अखेरेक आनी एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक जर्मनींतल्या याकोप ग्रिम आनी व्हिल्येल्म ग्रिम ह्या भावांनी जर्मन आनी कांय हेर परीकथांचें संशोधन केलें. तांणी त्यो काणयो सरळ आनी सोंपे भाशेंत बरोवन काडल्यो. Kinderund Hausmaerchen (३ खंड) हो तांचो परीकथांझेलो. ह्याच काळांत हॅन्स अँडरसन (१८०५-७५) हाणें नॉर्वे, स्विडन, डॅन्मार्क आनी हेर युरोपी देशांतल्या कितल्याशाच परीकथांची पुनर्रचना केली. रसाळ भास, सोबीत सैमाचीं वर्णनां, कल्पनाविलास हांचो वापर करून ताणें सोबीत परीकथांची निर्मिती केली. ताणें परीकथेक साहित्याच्या मळार एक स्वतंत्र असो साहित्यप्रकार म्हणून सुवात मेळोवन दिली.

ह्याच काळांत अल्पिक्सांदर अफनास्येव्ह (१८२६-७१) ह्या लेखकाचो 'रशियन फोक टेल्स' (१८६०) हो रशियन परीकथांचो झेलो उजवाडाक आयलो. ह्याच सुमाराक आयर्लंडांतल्या फ्रान्सिस ब्राउन हे कुड्डे लेखिकेन स्वता रचिल्ल्या परीकथांचे कितलेशेच झेले उजवाडायले. तातूंत 'ग्रॅनिज वंडरफूल चॅर' हो कथांझेलो खूब लोकप्रिय थारलो. ह्याच काळांत पेटर आस्ब्यर्नसेन ह्या नॉर्वेजियी लेखकान जायत्यो स्वतंत्र परीकथा रचून पुस्तकरुपान उजवाडायल्यो.

ऑक्सफर्ड विद्यापिठांतल्या चार्ल्स डॉज्सन ह्या गणिततज्ञान लुइस कॅरल ह्या टोपण नांवान 'Alice's adventures in wonderland' (१८६५) ही दीर्घकथा बरोवन परीकथांच्या मळार एक अजाप निर्माण केलें. ह्याच वेळार रस्किन, चार्ल्स डिकन्स, ऑस्कर वायल्ड आनी अमेरिकेंतल्या नाथानेल होथॉर्न आनी नोएल हॅरिस हाणीं कितल्योशोच रुचीक परीकथा बरयल्यो.

सर जेम्स बॅरी ह्या इंग्लीश नाटककारान पिटर पॅनसारकीं परीनाटकां बरोवन परीकथेचो साहित्यप्रकार आनिकूय गिरेस्त केलो. बॅरीचोच इश्ट अँड्र्यू लँग ह्या विद्वान लेखक - पत्रकारान सगळ्या संवसारांतल्यो खाशेल्यो परीकथा जमोवन, त्यो परत बरयल्यो आनी तांचे 'ब्लू फॅरीबूक', 'यलो फॅरीबूक' अशे कितलेशेच झेले उजवाडायले.

विसाव्या शेंकड्यांत कितलेशेच नवे परीकथांकार फुडें आयले आनी ह्या साहित्यप्रकाराक एक वेगळेंच मोडण मेळ्ळें. अमेरिकेंतल्या वॉल्ट डिझ्नी हाणें व्यंगचित्रांच्या माध्यमांतल्यान खास भुरग्यांखातीर चलचित्रपट तयार केले. तातूंतल्यान परीकथांतलीं वर्णनां, प्रसंग, वातावरण आनी पात्रांक प्रत्यक्ष पळोवपाचो तशेंच पात्रांचें उलोवप स्वता आयकुपाचो आनंद भुरग्यांक मेळपाक लागलो. अशे तरेन परीकथा साहित्य बरेंच गिरेस्त जालें.

हालींच्या काळांत विंगड-विंगड चित्रपुस्तकां (कॉमिक्स) चित्रांसकयल्या सुचक वाक्यांक लागून थोडेभितर पुराय परीकथा भुरग्यांमुखार उबी करतात. परीकथांच्या मळार आनिकूय वेगवेगळ्या माध्यमांचो वापर जायत आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**परीक्षित् :** पुराणाप्रमाण जावन गेल्ल्या पांच राजांचें नांव. एफ्. ई. पार्जिटर हाच्या मताप्रमाण, कुरूक जे तीन पूत जाले, तातूंतलो सगळ्यांत व्हडलो पूत परीक्षित्. हो वैदिक काळांत जावन गेलो. अथर्ववेदांत आयिल्ल्या उल्लेखाप्रमाण, परीक्षित् हाणें कुरू देशांत समृध्दताय आनी सुरक्षितताय हाडली. ऐतरेय ब्राह्मणांत, परीक्षिताचो पूत जन्मेजय हाका तुरकावषेय हाणें ऐंद्र महाभिषेक केल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. शांतिपर्वांत, परीक्षिताचो पूत जन्मेजय हाणें ब्रह्महत्या केल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. हो परीक्षित् राजा पांडवांचे पयलीं जावन गेलो आसुंये.

२. कुरूवंशांतल्या आविक्षित राजाच्या आठ पुतांतलो व्हडलो पूत. आवयचें नांव वाहिनी. महाभारतांत आयिल्ल्या उल्लेखांवयल्यान ताका अश्ववत् आनी अभिष्यंत अशींय नांवां आशिल्लीं.

उ. अयोध्येचो राजा इक्ष्वाकू, मंडूक वंशांतल्या आयुराजाची धूव सुशोभना हिचेकडेन ताचें लग्न जालें. पूण लग्ना वेळार सुशोभनेन ताका एक अट घाली. ती म्हळ्यार 'तूं म्हजेवांगडा आसतना म्हाका उदकाचें दर्शन जावपाक जायना, तशें जाल्यार हांव तुचो त्याग करतलीं.' एक दीस परीक्षित् राजा सुशोभनेक घेवन मृगयेखातीर रानांत गेल्लेकडेन चुकून तीं एके बांयकडेन पावलीं. उदक पळेनाफुडें सुशोभना गुप्त जाली. परिक्षिताक राग आयलो. ताणें सगळ्या मंडूक वंशाचो नाश करपाचें थरयलें. तेन्ना आयुराजा परीक्षिताक शरण आयलो आनी सुशोभनेक परतून परीक्षिताचे स्वाधीन केली.

४. कुरूवंशांतल्या अरुग्वत राजाचो पूत. आवय मागधी अमृता. परीक्षिताचो पूत भीमसेन, भीमसेनाचो प्रतीप आनी प्रतीपाचो शंतनु अशी वंशावळ आशिल्ली.

५. अर्जूनाचो पूत अभिमन्यू हाका उत्तरेपसून जाल्लो पूत. उत्तरेच्या गर्भांत आसतना, अश्वत्थाम्यान सोडिल्ल्या बाणापसून कृष्णान ताची राखण केली. भारतीय झुजाउपरांत, युधिष्ठिरान ३६ वर्सां राज्य करतकूच उपरांत ताका अभिशेक केलो. हाचें राज्य सरस्वती न्हंयेसावन गंगेमेरेन पातळिल्लें. हाणें आपल्या राज्यांतल्यान कलीक धांवडावन घाल्लो अशें म्हळां. एकदां तो शिकार करता आसतना वाट चुकलो. तेन्ना ताणें थंयच्या एका शमीक नांवाच्या ऋषीक वाट विचारली. पूण ध्यानांत बशिल्ल्या ऋषीन ताका जाप दिलिना. तेन्ना परीक्षिताक राग आयलो. रागाच्या भरांत परीक्षितान त्या ऋषीच्या गळ्यांत एक मेल्लो सोरोप घालो आनी थंयसावन गेलो. शृंगी नांवाच्या, त्या ऋषीच्या पुतान आपल्या बापायच्या गळ्यांतलो तो मेल्लो सोरोप पळेलो. तें पळोवन ताका तिडक मारली आनी ताणें शाप दिलो, हें कर्म कोणें केल्लें आसत ताका एका सप्तकाभितर नागाधिपती तक्षकाच्या हातान मरण येतलें. तशेंच जालें. उपरांत ताचो पूत जन्मेजय हाणें सर्पसत्र आरंभून ताचो सूड घेतलो अशी कथा महाभारतांत आयल्या. परीक्षिताचे दुस्मान सोरोप नाशिल्ले पूण गांधार देशांतले नागवंशी लोक आशिल्ले. जेन्ना भारतीय झुजांत पांडवांची शक्त उणी जाली, तेन्ना ताचो फायदो घेवन ताणीं हस्तिनापुराचेर झूज करून थंयच्या परीक्षित राजाक जिवो मारलो अशें इतिहासांत म्हळां. परीक्षित् हो तक्षकान दंश करतकूच सात दिसांनी मेलो असोय उल्लेख मेळटा. ह्या सात दिसांनी शुकमुनीन ताका भागवताचो उपदेश केल्लो. द्वैपायन व्यासाचो पूत शुकमुनी हाणें परीक्षित् राजाक श्रीमद्‌भागवत सांगलें असो भागवतांत उल्लेख आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पर्मेकार, महादेव सखाराम :** (जल्म : १५ मे १९२०, पर्मे - सावंतवाडी; मरण : १९ ऑक्टोबर १९७८).

सुटकेझुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. गोंय सुटके उपरांत तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटनेचो वांगडी जालो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो पुर्तुगीजांआड चळवळींनी वांटो घेतालो, पत्रकां वांट्टालो, 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचे वतीन चळवळीचो प्रचार करतालो. राष्ट्रीय वावरांनी फुडाऱ्यांक पालव दितालो. पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी सप्टेंबर १९५५ त ताका शिमेर व्हरून सोडलो. फेब्रुवारी १९६२त गोंय सुटके उपरांत तो गोंयांत आयलो. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पर्यंकविद्या :** एक आध्यात्मिक विद्या. पर्यंक म्हळ्यार बाज्ज. ब्रह्मलोकांत ब्रह्मा वा हिरण्यगर्भ जाचेर सुशेग घेता. ताका पर्यंक म्हण्टात. हाचेवयल्यानूय ब्रह्मलोकांत वचपाची जी वाट आसा ती हांगा पर्यंक विद्या ह्या नांवान घेतल्या. साधकाच्या आत्म्याक चंद्र, विद्युत्, अग्नी, वायू, वरूण, इंद्र, प्रजापती आदी लोकांतल्यान वाट काडत ब्रह्मलोकांमेरेन वचपाचें आसता. हातूंत आत्म्याक जायतीं आडमेळीं हुंपून ब्रह्मलोकांत वचचें पडटा. थंय ब्रह्मयाचो अपराजित नांवाचो एक प्रासाद आसता आनी ताचेर इंद्र आनी प्रजापती हे द्वारपाल आसतात. थंय पावतकूच आत्म्याक ते कांय प्रस्न विचारतात आनी तांच्यो योग्य त्यो जापो मेळटकूच ताका प्रासादांत प्रवेश दितात. सगळ्यो वाटो हुंपून थंय पाविल्ल्या आत्म्याच्या स्वातंत्र्याखातीर ब्रह्मदेव अप्सरांची येवजण करता. त्यो ताका फळां फुलां दिवन वस्त्रालंकारांनी नटोवन ब्रह्मयाच्या पर्यंकामुखार उब्यो करतात. जे वेदीर हो पर्यंक मांडिल्लो आसता ते वेदीच्या पयल्या सोपणाचेर पावल दवरतकूच तो ताका 'तूं कोण?' असो प्रस्न करता. ताचेर ताका आत्मो जाप दिता 'जो तूं तोच हांव!' ब्रह्मा विचारता 'हांव कोण?' आत्मो सांगता 'तूं सत्य.' ब्रह्मा विचारता सत्य म्हळ्यार कितें? आत्मो सांगता 'जें देवाचे आनी प्राणांचे पलतडीक आसता तें सत्य.'

अशे तरेन पर्यंकामेरेन पाविल्ल्या आत्म्याक विश्वाचे उत्पत्ती - स्थिती आनी लयाचें बळगें मेळटा अशें सांगलां. पूण हे शक्तीचो उपेग ताणें करचो न्हय अशें ताचेर बंधन आसता. हें बळगें ताणें उपेगांत हाडल्यार तो आत्मो आनी विश्व उत्पन्न करपी दिव्य शक्ती हातूंत संघर्श उत्पन्न जावपाचो भंय आसता.

हें पद मेळोवपाक साधकाक ब्रह्मचर्य पाळप, विकारांचेर जैत मेळोवप आनी अहंकारापसून पयस रावप हें म्हत्वाचें आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**पर्यटन :** पर्यटन म्हळ्यार भोंवडी. देशांतल्यो आनी विदेशांतल्यो पोरण्यो वास्तू, इतिहासीक थळां, सैमीक थळां, कला संस्कृतायेचीं केंद्रां आनी तीर्थक्षेत्रां पळोवपाखातीर लोक पर्यटन भोंवडी करतात. आर्विल्ल्या काळांत येरादारीचीं आर्विल्लीं आनी बरीं साधनां उपलब्ध जाल्ल्यान पर्यटन उद्येगाक चालना मेळ्ळी. सद्याच्या काळांत पर्यटन हो एक स्वतंत्र राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय उद्देग म्हणून विकसीत जाल्ल्याचें दिश्टी पडटा. सरकारी तशेंच खाजगी यंत्रणेमार्फत हो उद्येग चलता. पर्यटन वेवसायावरवीं अर्थीक, समाजीक, धर्मीक, शिक्षणीक आनी राजकीय फायदे घडटात. ताचे वरवीं राष्ट्रीय एकात्मता आनी आंतरराष्ट्रीय सामंजसपण घडटा.

आदल्या काळांत धर्मीक, वेपारी आनी शिक्षणाच्या निमतान पर्यटन करताले. अस्तंती प्रबोधन काळांसावन सांस्कृतीक, इतिहासीक, कलासाहित्यीक आनी नवे निर्मीतीविशीं नवी ओड तयार जाली. आर्विल्लें पर्यटन हें ते प्रेरणेंतल्यान तयार जालें, अशें म्हण्टात. पर्यटनाची आवड गिरेस्त लोकांमेरेन मर्यादीत उरनासतना ती सामान्य लोकांमदीं पातळ्ळी.

पर्यटनाचो वाठार देशांतलीं थळां पळोवप तशेंच तो आंतरराष्ट्रीय आसूं येता. पोरण्या पर्यटन थळांची वेवस्था टापटीप दवरप आनी नवीं पर्यटन थळां विकसीत करप, हीं पर्यटन उद्देगाचीं म्हत्वाचीं आंगां आसात. देखून, देशी आनी विदेशी पर्यटकांक आकर्शीत करप, तेखातीर नियोजन केल्ली प्रसिद्धी यंत्रणा उबी करप, पर्यटकांक येरादारीच्यो तशेंच खावपा, जेवपाच्यो सुविधा आनी हेर तजवीज करून दिवप हे पर्यटन उद्देगांतले म्हत्त्वाचे घटक आसात. पर्यटनावरवीं राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार समजिकाय आनी भावपण निर्माण करपाचो मोलादीक वावर जाता.

आर्विल्ले अर्थशास्त्रीय परिभाशेंत पर्यटक चड करून गिरायक अशें समजतात. तो उत्पादक नासता. अर्थीक नदरेंतल्यान पर्यटन उद्देग खूब म्हत्त्वाचो थारता. पर्यटन उद्देगाक लागून सेवा उद्देगांक मोलादीक सुवात मेळ्ळ्या. पर्यटना उदेशीं देशांत आनी परदेशांत जावपी पर्यटकांची वाडती खेट हाका लागून सेवाक्षेत्राक वट्ट उत्पादनांत म्हत्वाची सुवात मेळ्ळ्या.

पर्यटनाक लागून वेपाराचें प्रमाण आनी परिमाण हांचो विस्तार जालो. बर्फाचीं तेमकां, मनीसविरयत दर्यावेळ, रानां ही पर्यटन क्षेत्रांत येवन पयल्या पांवड्याची आस्पत थारली. पर्यटनाक लागून जो प्रत्यक्ष पयसो मेळटा, ताचेपरसूय राष्ट्रीय उत्पन्नांत गुणक परिणामाक लागून जी भर पडटा वा पर्यटक खर्चाच्या उलाढालींक लागून निर्माण जावपी पयशांची जी भर पडटा, तिचें म्हत्व चड आसता. आंतरराष्ट्रीय पर्यटनाप्रमाणूच देशाभितल्ल्या पर्यटनाचोय देशाच्या अर्थीक बळग्याक बरो अनुकूल परिणाम जायत आसता. अंतर्गत पर्यटनाक लागून जी अर्थीक उलाढाल जाता, ती आंतरराष्ट्रीय पर्यटनाक लागून निर्माण जावपी उलाढालींच्या धा पटींनी चड आसता.

पर्यटनाक लागून व्हडा प्रमाणांत रोजगार संदी मेळटात. पर्यटन हो श्रमप्रधान सेवाउद्देग देखून विकसनशील देशांनी व्हड संख्येन कामगार आशिल्ल्यान, पर्यटन उद्देगाची उदरगत बेकारी आनी अर्दरोजगार ह्यो समस्या कांय प्रमाणांत निवारूंक शकता. ह्या उद्देगांत ल्हान व्हड सगळ्या पिरायांचे मनीस, शिक्षीत आनी अशिक्षीत, नागरी आनी गांवगिऱ्या अशा सगळ्याच तरांच्या लोकांक पर्यटनाक लागून रोजगार मेळूंक शकता. देखीक - पर्यटन प्रतिनिधी (एजंट), संयोजक, मार्गदर्शक, हॉटेल-वेवस्थापक, कारकून, हिशोबनीस, आचारी, मनोरंजनकार, जायरातदार, फोटोग्राफर, हमाल आदी.

पर्यटनाक लागून खासा देशी बनावटीच्यो हस्तकलात्मक वस्तू तयार करपी लघुउद्देगांच्या आनी कुटिरोद्देगांचे उदरगतीक उत्तेजन मेळटा. विकसनशील राष्ट्रांनी पर्यटन उद्देगाचे गरजेप्रमाण आपल्या

हस्तउद्देगांच्या उत्पादनाविशींचें धोरण दवरलें, जाल्यार तें बऱ्याक पडटा. देशाच्या सगळ्या वाठारांचो समतोल विकास सादपाचें कार्य पर्यटनावरवीं सोंपें जाता. पर्यटन उद्देग ज्या देशांनी व्हड प्रमाणाचेर विकसीत केला, अशा ग्रीस, आयर्लंड, पुर्तुगाल, युगोस्लाविया, तुर्कस्तान हांकां त्या उद्देगा उदेशीं उपाट परकी चलन मेळटा.

१९५० उपरांत आंतरराश्ट्रीय पर्यटन उद्देग नेटान विकसीत जालो, संवसारांत चडांत चड रोजगार मेळोवन दिवपी एकमेव उद्देग म्हणून ताचो पयलो क्रमांक आसा.

चडांत चड पर्यटकांक आकर्शीत करपाखातीर पर्यटन सुविधांची उदरगत करपाखातीर दरेक राश्ट्र यत्न करता. कांय देशांनी ह्या वावराखातीर एक शासकीय विभाग स्थापन केला. देखीक - इटलींत 'एन्ते नाझिओनेल इतालिआनो तुरिझ्मो' (एनिट) हो विभाग पर्यटनाक चालना दिवपाखातीर १९१९त स्थापन केलो. फ्रांसांत १९२८ त 'कॉमिसारिएत जनरल ऑफ तुरिझम' हो विभाग भौशीक बांदकाम खात्याचे अखत्यारीखाला सुरू केलो. चॅकोस्लोव्हाकियाची 'सॅडॉक' ही संघटना, डॅन्मार्काचो 'डॅनिश टुरिस्ट बोर्ड', उदेंत जर्मनीचो 'स्टेट ट्रॅव्हल ब्यूरो', ग्रीसांतली 'नॅशनल टुरिस्ट ऑर्गनायझेशन', बल्गेरियाचें 'बाल्कनटूरिस्ट' (१९४८), ग्रेट ब्रिटनाचें ब्रिटीश टुरिस्ट ऑथॉरिटी' हीं कांय हेर उदाहरणां आसात.

आंतरराश्ट्रीय पांवड्यार पर्यटनाची पोसवण करपाखातीर वेगवेगळ्यो पर्यटन संस्था आनी संघटना वावर करतात. (१) 'इंटरनॅशनल टुरिंग अलायन्स' (ITA) ही १८९८ त जिनिवांत स्थापन जाल्ली संघटना आंतरराश्ट्रीय पर्यटनाविशींच्या सगळ्या समस्यांचो अभ्यास करप, तातूंत सुदारणा सुचोवप, पर्यटनाक चालना आनी प्रोत्साहन दिवपाखातीर यत्न करप आनी वेगवेगळ्या देशांतल्या पर्यटन संस्थांची राखण करप हो वावर करता. ही संस्था पर्यटनाविशींचें सुक्ष्मसंदर्भ केंद्र चलयता आनी नकाशे, हॉटेलां हांचेविशीं पुस्तिका उजवाडायता. ८० देशांतल्यो सुमार १८० संघटना हे संस्थेच्यो वांगडी आसात.

(२) युरोपियन ट्रॅव्हल कमिशन (ETC) हो आयोग डब्लिनांत १९४९ त स्थापन जालो. युरोपांत आनी युरोपाभायर पर्यटनाक उत्तेजन दिवप म्हायतीविनिमय तशेंच संशोधन करप हो ह्या आयोगाचो मुखेल उद्देश आसा.

(३) 'वर्ल्ड असोसिएशन ऑफ ट्रॅव्हल एजन्सीज' (WATA) ही संस्था १९४९ त जिनिवांत स्थापन जाली. आंतरराश्ट्रीय पर्यटन उदरगतीखातीर यत्न करप, साबार देशांतल्या पर्यटन संघटनांमदीं सुसुत्रताय दवरप, पर्यटनाविशींची म्हायती उजवाडावप, पर्यटनाक उत्तेजन दिवपाखातीर जात्रा, प्रदर्शनां भरोवप हीं कामां ही संस्था करता.

(४) 'वर्ल्ड टुरिझम ऑर्गनायझेशन' (WTO) ही संघटना माद्रिदांत (स्पेन) १९७४ त स्थापन जाल्ली आसून राश्ट्रीय पर्यटन संस्था - संघटनांचो एकामेकांक सहकार आनी पर्यटनाविशींच्या समस्यांचो अभ्यास हीं कामां संस्था करता. सुमार ११५ देश हे संस्थेचे वांगडी आसून भारत हो हे संघटनेचे वावुरपी समितीचो वांगडी आसा.

(५) 'साऊथ एशिया रीजनल ट्रॅव्हल कमिशन' ह्या आयोगाचो भारत एक वांगडी आसून ह्या विभागांतले सगळे देश ह्या आयोगाचेर प्रतिनिधित्व करतात. १९७५ त भारताक ह्या आयोगाचें अध्यक्षपद मेळ्ळें.

(६) 'पॅसिफिक एरिया ट्रॅव्हल असोसिएशन' (PATA) ही संघटना उत्तर अमेरिकेसावन पॅसिफिक वाठारामेरेनच्या पर्यटनाक प्रोत्साहन दिवपाखातीर १९५२ त सॅन फ्रान्सिस्कोंत स्थापन जाली. ही संघटना आपल्या वांगड्यांक विपणन (marketing) आनी जायरातीविशींची सेवा दिता. १९६४ सावन भारत पॅटाचो वांगडी आसा.

भारतांत १९६० त पर्यटन उद्देगाक नेट आयलो. प्रवास करप जशें चड वेगवान आनी सुरक्षीत जावंक लागलें तसो पर्यटन हो एक वेवसाय म्हणून नांवारुपाक आयलो. भारतांत सुटयेच्या काळांत लोक शेजारच्या राज्यांनी भोंवडेर वतात. सैमीक सुवातो, दर्यावेळो, तीर्थस्थळां, इतिहासीक साधन संपत्ती आनी कलाकेंद्रां पळोवपाची भारतीयांक भोव ओड आसा.

भारतांत पर्यटन उद्देगाचे उदरगतींत सगळ्यांत व्हडली अडचण म्हळ्यार चडांत चड हॉटेलांचो उणाव. पर्यटनाक चालना दिवपाखातीर १ ऑक्टोबर १९६२ दिसा 'भारतीय पर्यटन विकास निगम' स्थापन केलो. नवीं नवीं पर्यटन थळां सोदचेलें कार्य सद्या चल्लां. हातूंत पुरातत्त्वीक थळांचो विकास, दर्यावेळो, अभयारण्यां हांचो आस्पाव जाता. कोवलम् हे दर्यावेळेच्या सुवातीचो पर्यटन केंद्र म्हणून विकास केला. जम्मू आनी काश्मीर राज्यांतलें गुलमर्ग हें शिंयाळीं खेळाकेंद्र स्थापन केलां. विंगड विंगड जनावरां आशिल्लीं दांडेली, कान्हा, भरतपूर, गीर, जलदपाडा, काझीरंगा, ताडोबाचीं अभयारण्यां बरींच लोकप्रिय थरल्यांत.

आग्राचो ताज महाल हें पर्यटकांखातीर एक व्हड आकर्शण थरलां. नवी दिल्लींतलें अकबर आनी कुतूब हॉटेल, आग्राचें कोसी हॉटेल आनी ताज रॅस्टोरंट हीं नामनेचीं हॉटेलां आसून खजुराहो आनी वाराणसी हांगाय हॉटेलां बांदल्यांत. उदयपूरचें लक्ष्मीविलास पॅलेस हॉटेल बरेंच लोकप्रिय आसा. उदेंत वाठारांतल्या हवाई पर्यटकांखातीर सगळ्यो सुविधा आशिल्लें 'ॲरपोर्ट हॉटेल' कलकत्त्याक उबारलां. जम्मू आनी काश्मीर राज्यांतल्या जम्मू नगरांत 'जम्मू मॉटेल' बांदलां. अजंठा आनी वेरूळाक भेट दिवपी पर्यटकांखातीर औरंगाबादेंत 'औरंगाबाद हॉटेल' आसा. नवी दिल्लीच्या 'अशोक हॉटेल' ह्या निगमाचे अखत्यारींतल्या हॉटेलांत संमेलनां, परिशदो आयोजीत करचेली वेवस्था आसा.

निगमान नवीं पर्यटन थळां विकसीत करपावांगडाच परदेशांत विदेशी पर्यटकांक आकर्शीत, करपाखातीर पावलां उखलल्यांत. परदेशांतल्या प्रचारकार्याक नेट हाडपाखातीर ॲर इंडिया तशेंच वेगवेगळीं उद्देगीक आनी वेपारी प्रदर्शनां, जात्रा निगम आयोजीत करता. जिनीवा, मिलान, ब्रुसेल्स, स्टॉकहोम, विएन्ना, पर्थ, बँकॉक ह्या शारांनी निगमान पर्यटन कार्यावल्यां उगडल्यांत.

परदेशी पर्यटकांखातीर वेगवेगळ्यो येवजणोय चालीक लायल्यात. जून १९७७ सावन सुरू केल्ल्या 'इण्डरेल पास' हे येवजणेक लागून भारताक खूब परदेशी चलन मेळ्ळें. विद्यार्थी आनी तरणाट्या पर्यटकांखातीर भारतांत सवाय 'युवा हॉस्टेलां'य आसात.

भारतांत १९७७त ६,४०,४०० विदेशी पर्यटकांनी भेट दिली. हाका लागून भारताक २८३ कोटी रुपयांचें परदेशी चलन मेळ्ळें. विदेशी पर्यटकांमदीं ग्रेट ब्रिटनाचो पयलो जाल्यार अमेरिकेचो दुसरो क्रमांक आसा. पर्यटन उद्देग हो भारताचो सव्या क्रमांकाचो परदेशी चलन मेळोवपी उद्देग.

राश्ट्रीय पर्यटनाखातीर संसदेंत मे १९९२ त एक खासा कृती येवजण तयार केली. फुडल्या पांच वर्सांमदीं भारतांत ५.६ दशलक्ष

पर्यटक येतले, असो अदमास आसा. १९९० वर्सा विदेशी पर्यटकांची संख्या १७,०७,१५८ आसली. जागतिक पर्यटन बाजारांत १९८५ त भारताचो वांटो फकत ०.३९% आसलो. तो १९९० त ०.४३% चेर पावलो. १९८५-८६ त पर्यटन वेवसायावरवीं मेळिल्लें परकी चलन १४६० कोटी आसलें. तेंच १९८९-९० त २४५६ कोटींचेर पावलें. १९९०-९१ त भारताक २४४४ कोटी रुपयांची विदेशी गुंतवणूक मेळिल्ली. १९९१-९२ त ३३१७ कोटी रुपयांची विदेशी गुंतवणूक मेळ्ळी. ह्या वाडट्या पर्यटन उद्देगाक लागून रोजगार संदीय वाडत आसात. पर्यटन मंत्रालयान वाडट्या पर्यटकांक लागून नवीं पर्यटन थळां सोदून काडप, सद्या आशिल्ल्या पर्यटन थळांचो विकास करप आनी मनीस बळ उदरगत साधनांखातीर नव्यो संस्था स्थापन करप हांचेर सद्या भर दिला. भारतात १९९१-९२ वर्सा सुमार १२,८८,५९० विदेशी पर्यटकांनी भेट दिली.

सुमार ५०० दशलक्ष आंतरराष्ट्रीय पर्यटकांवरवीं जागतिक येणावळीची उलाढाल ३.५ दशसहस्त्र कोटी अमेरिकन डॉलर इतकी जाता. होच आंकडो २००० वर्सामेरेन ६६० दशलक्ष मेरेन व्हरपाची मोख दवरल्या. जागतिक बाजारांतलो भारताचो वांटो, सरासरी ०.३७% उरला आनी येणावळ ०.५१% आसा.

भारताच्या पंचवर्सुकी येवजणांनी पर्यटन विकासाचेर दर येवजणेगणीक वाढीव खर्चाची तरतूद करप जाता.

रत्नां आनी जडावाच्यो वस्ती तशेंच तयार कपडे ह्या दोन निर्यात उद्देशांफाटोफाट पर्यटन हो भारतांतलो तिसरो विदेश चलन जोडून दिवपाचो उद्देग जाला.

भारताक १९९४-९५ वर्सा ७३.६६ शतकोटी रुपयांचें आनी १९९५-९६ वर्सा ९१.८६ शतकोटी रुपयांचें परकी चलन मेळ्ळें. पर्यटन क्षेत्रांत १९९४-९५ वर्सा सरळ रोजगार संद ७.८ दशलक्ष मनशांक मेळ्ळी.

पर्यटन क्षेत्राचें आनीक एक खाशेलपण म्हळ्यार हॉटेलां, हवाई – वाहतूक, पर्यटन यंत्रणां, हस्तकला, सांस्कृतिक कार्यावळ हातूंत बायल मनशेक रोजगार मेळपाची संद चड उपलब्ध आशिल्ल्यान ह्या वेवसायाक लागून बायलांक व्हड संख्येन रोजगार उपलब्ध जावंक पावला. १९९५-९६त भारतांत २.१ दशलक्ष परकी पर्यटक आयले आनी सुमार ९१.८३ शतकोटी रुपया परकी चलनाच्या रुपांत मेळ्ळे.

१९९५-९६ वर्सा केंद्र सरकारान १७५.१ दशलक्ष रुपया राज्य सरकारांक पर्यटन विकासाखातीर दिले. सुमार १,००,००० कुडींची वेवस्था १९९७ मेरेन करपाची मोख दवरल्या.

पर्यटनाक लागून विंगड विंगड देशांतले लोक एकठांय येतात आनी एकामेकांक बरे भाशेन जाणून घेवंक शकतात. ताणतणावान भरिल्ल्या सध्याच्या जगांत आंतरराष्ट्रीय भावपण आनी समजिकाय हांची पोसवण पर्यटनाक लागून जाता.

गोंयांत गोंय मुक्ती उपरांत पर्यटन वेवसायाची बरीच उदरगत जाली. गोंयचो पाचवोचार सैम, गोंयांतलीं देवळां, पुर्विल्ल्यो इगर्जो, पोरणावळ, दर्यावेळो हांकां लागून हांगा देशांतल्या हेर राज्यांतले तशेंच विदेशांतले पर्यटक आकर्शीत जातात. गोंय हें देशांत तशेंच संवसारांतल्या पर्यटन नकाशावयलें एक नामनेचें पर्यटन थळ. गोंयच्या दर्यावेळांनी हिप्पींची गर्दी वाडत आसा. गोंय मुक्ती उपरांत पर्यटकांचो गोंयांत ओघ वाडलो. १९९२ त गोंयांत १.२५ लाख विदेशी पर्यटक आयलो. नवी दिल्लीचे लोकमत संस्थेन दिल्ले म्हायतीप्रमाण गोंयांत १९९६ मेरेन १९४६ लाख पर्यटक भेट दितले; हातूंतले १.५८ लाख लोक विदेशी आसतले. इ. स. २००१ वर्सामेरेन हो आंकडो १६.१२ लाख जातलो आनी हातूंत १.२१ लाख विदेशी लोक आसतले, असो अदमास आसा. १९९२ त, गोयांत १,२१,४४२ विदेशी पर्यटकांनी आनी ७,७४,५६८ थळाव्या पर्यटकांनी भेट दिली. १९९३-९४ त गोंयांत सुमार ३७५ हॉटेलांची नोंद जाल्या आनी ह्या हॉटेलांनी सुमार १७,००० खाटींची वेवस्था आसा. ह्याच वर्सा सुमार ८१६८५४ देशी आनी २०६३९४ परदेशी पर्यटक आयिल्ल्याची नोंद मेळटा. गोंयांत पांच नखेत्री तशेंच हेर बऱ्या पांवड्यांची हॉटेलां आसात. तशेंच आनिकूय हॉटेलां बांदपाचेर भर दिला. गोंयच्या वाडट्या पर्यटन उद्देगाक लागून हांगाय रोजगार संदी वाडल्यात. वाडट्या पर्यटकांक सगळ्या तरांच्यो तजवीजो मेळोवन दिवपाखातीर गोंय सरकारान विंगड विंगड येवजणो राबयल्यात.

– मुकेश थळी

**पर्यावरण** : वेगवेगळे तरेची जीवसृश्ट तशेंच मनशांचो गट वा समाज ज्या वाठारांत रावतात, त्या वाठारांतल्या सगळ्या घटकांक 'पर्यावरण' अशें म्हण्टात. पर्यावरणांत चड करून प्राकृतीक परिस्थितीचे म्हणून जे सैमीक घटक आस्पावतात, तांचो आस्पाव जाता. भुगोलीक नदरेन पळेल्यार पर्यावरणांत संस्कृतीक आनी समाजीक घटकांचो आस्पाव सरळ जायना आसलो तरी संस्कृतीक आनी सामाजीक घटकांचो पर्यावरणाकडेन संबंद उरता.

खंयच्याय परिसरांत वनस्पत, मोनजात, दोंगर, न्हंयो आदी घटकांक वेगवेगळ्यो सुवातो मेळिल्ल्यो आसतात. त्या परिसराचे मर्यादेभितर ह्या वेगवेगळ्या घटकांचो एकामेकाकडेन येवपी संबंद कशे तरेचो आसता, हाचो विचार भुगोलीक पर्यावरणांत जाता.

अमानवी (Non-human) पर्यावरण असोय पारिभाशीक शब्द वापरिल्ल्याचें दिसता. तातूंत प्राकृतिक पर्यावरणाच्या घटकांवांगडाच अभयारण्यां, रानां, उद्यानां, धरणां आनी कारखाने हांचे परिसर तशेंच मनीसनिर्मीत घटक आस्पावतात.

पर्यावरणवाद नांवाची एक तात्त्विक उपपत्तीय रूढ आसा. हे उपपत्तीप्रमाण आयच्या सैमीक वा भुगोलीक वाठाराचो मनशाचे जिणे पद्दतीचेर कसो निर्णायक परिणाम जाता, तें दाखोवंचेलो यत्न करतात. पर्यावरणवाद हो एके तरेचो भुगोलीक नियतीवाद. ताचेवरवीं भायल्या परिसराक लागून मनशाची जिणेपद्दत कशी निश्चीत जाता, हें स्पश्ट करतात.

सैमीक साधनसामुग्री, हवामान आनी भुगोलीक सोंपेपण ह्या प्राकृतिक घटकांक लागून मनीस संस्कृतायेची खाशेली घडण जाता, अशी पर्यावरणवादाची भुमिका आसा. इतिहास, परंपरा, समाजीक आनी अर्थीक घटक हांकां लागून संस्कृती रूप घडटा आनी विकसीत जाता, ही विचारधारा पर्यावरणवाद मान्य करिना.

हाचेपरसूय वेगळी आनी लागीं लागीं विरोधी अशी विचारप्रणालीय फुडें आयली. मनशाची राबित्याची सुवात आनी वाठार हो ताचेमुखार वेगवेगळे तरेच्या भुगोलीक-संस्कृतीक विचारांचे पर्याय उबे करता आनी

तातूंतल्यान खंयचोय एक पर्याय वेंचून काडटा. ह्या विचारांप्रमाण हेर पर्याय वेंचून काडलो, की मागीर तातूंत जावपी संस्कृतीक विकासाचेर थंयच्या परिसराचो कसलोच परिणाम जायना. धर्तरेचे फाटीर भुगोलीक, संस्कृतीक विकासाचे पर्याय सगळ्याक सारके दिसनात. हें मतींत घेतलें जाल्यार ही एकांतिक विचारप्रणाली योग्य दिसना.

सुर्वेक भुगोलीक नियतीवादांत मनीस संस्कृताय आनी पर्यावरण हांच्यांत जो निश्चीत कार्यकारणभाव मानिल्लो, तो मात उपरांतच्या काळांत तिगून उरलोना. तरी लेगीत मनशाचे संस्कृतीक जिणेपद्दतीचें पुराय आकलन, पर्यावरणांतल्या सैमीक घटकांचो विचार केलेबगर जावप शक्य ना, हो विचारूय फुडें आयिल्लो. आर्विल्ले अभ्यासक समग्र पर्यावरणाची कल्पना मानतात आनी हें कल्पनेंत सैमीक परिसरावांगडाच समाजीक, अर्थीक, संस्कृतीक घटकांचोय आस्पाव करतात. समाज आनी ताचें पर्यावरण हांचेमदीं परस्परांचेर परिणाम करून परस्परांत बदल घडोवन हाडपाची प्रक्रिया चालू आसता, हेंय ताणीं वळखलां. ह्या नव्या विचारांत भुगोलीक नियतीवादाचे सुवातेर भुगोलीक संस्कृतीक शक्यतायेचें तत्त्व म्हत्वाचें थरलां.

- मुकेश थळी

## पर्व :

**पर्व :** धर्मशास्त्र आनी ज्योतीशशास्त्र हातूंत विशिश्ट योगांक पर्व म्हळां. नैमित्तिक पुण्यकर्माक योग्य असो काळ म्हळ्यार पर्व. सूर्य, चंद्र, नखेत्रां, ग्रह हांचीं परिभ्रमणां जायत आसतात, तातूंत वेगवेगळ्या वेळांचेर तांचे एकामेकांकडेन पुण्यकारक योग म्हळ्यार संबंद येतात. अशा योगांक वा अशा संबंदांच्या विशिश्ट कालखंडाक पर्व म्हण्टात.

पर्व हें पुण्यकारक मानलां तशेंच पर्वकाळांत विधिनिशेधूय सांगल्यात. विष्णुपुराणांत पांच मुखेल पर्वां सांगल्यांत तीं अशीं -

चतुर्दश्यष्टमी चैव अमावास्याय पूर्णिमा ।
पश्चान्येतानि राजेन्द्र रविसङ्क्रान्तिरेव च ॥

**अर्थ** - चतुर्दस, अश्टम, उमास, पुनव आनी सूर्यसंक्रांत हीं पांच पर्वां आसात.

दक्षिणायन - उत्तरायणांचो प्रारंभकाल, कल्पादी तिथी, अयन, विषुवदीस, चंद्र सुर्याचीं गिराणां, उमास ह्यो तिथी अशीं खूब पर्वां ब्रह्मपुराणांत सांगल्यांत. मन्वंतराचो आरंभ होय एक पर्वकाळूच मानला. तेखातीर पंचांगांत मन्वादी तिथी सांगल्यात. अर्धोदय, महोदय हीं कांय पर्वां आसात. भाद्रपद कृष्ण सश्टी, मंगळार, चंद्र रोहिणी नक्षत्रांत, सूर्य हस्त नक्षत्रांत आनी व्यतीपात हो योग जुळून आयलो जाल्यार ताका 'कपिलासश्टी' म्हण्टात. सूर्य, चंद्र, गुरू हे विशिश्ट राशींत आयल्यार ताका कुंभपर्व म्हण्टात. कुंभपर्व हेंच महापर्व. बारा राशींतल्यान भ्रमण करपाक गुरूक बारा वर्सां लागतात, म्हणून हें पर्व बारा वर्सांनी येता.

पर्वकाळांत दान, जप, होम, श्राध्द, हे विधी करतात.

**गजपर्व** - अय्यंगार ब्राह्मणांच्यो बायलो कार्तिक पुनवेसावन तीन दीस हें व्रत करतात. मातयेची गजलक्ष्मी तयार करून तिची पुजा, दानधर्म, जेवण आनी हळदकुकूम असो विधी करतात.

**गजच्छायापर्व** - भाद्रपद उमाशेक सोमार, हस्त नक्षत्रांत सूर्य आनी चंद्र असो योग जुळून आयल्यार हें पर्व आसता.

**अर्धोदय पर्व** - पौष वा माघ उमाशेक आयतार, श्रवणनक्षत्र आनी व्यतीपात हे योग एकठांय आयल्यार हें पर्व आसता.

**महोदय पर्व** - पौष वा माघ म्हयन्यांत सोमवती उमास आसून, श्रवण नक्षत्र आनी व्यतीपात हे योग एकठांय आयल्यार हें पर्व आसता. हो योग दिसाचो येवंक जाय.

उमास आनी पुनव हीं नेमान येवपी दोन पर्वां. फांतोड, मध्यान आनी सांजवेळ हे तीन काळ लेगीत पर्वांच आसात. तांचो काळ दोन घटिका (४८ मिनटां) आसता.

ऊंस, हाताचीं बोटां हांचो भाग वा खंयच्याय ग्रंथाचो विभाग ह्या अर्थानूय पर्व हो शब्द वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

## पर्वत :

**पर्वत :** (पळेयात दोंगर).

## पर्वतकार, खांप्रूमाम :

**पर्वतकार, खांप्रूमाम :** (जल्म : १८८०, चंद्रेश्वर - पर्वत; मरण: ३ सप्टेंबर १९५३, चंद्रेश्वर - पर्वत).

संगीत मळावयलो नादब्रह्माचो एक चमत्कार म्हळ्यार खांप्रूमाम.



ताचें पाळण्यांतलें नांव लक्ष्मण. ह्या म्हान तबल्या वादकाचो जल्म, संगीत कलेचो कितल्याशा पिळग्यांचो वारसो लागिल्ल्या घराण्यांत जालो. खांप्रुमामान आपलो मामा रघुवीर पर्वतकार हाचेकडल्यान सारंगीवादन आनी बापोल्यो हरिश्चंद्र आनी रामकृष्ण पर्वतकार हांचेकडल्यान पखवाजाचें शिक्षण घेतलें. एक धृपदीये अनंतबुवा धवळीकार हांचेकडेन ताणें धृपद - धमाराची तालीम घेतली. गोंयचें लोकप्रिय तालवाद्य 'घुमट' तो व्हड कुशळटायेन वाजयतालो.

आपल्या वादनाची सुरवात खांप्रुमामान घुमट वादनान केली. तबलें आनी मृदंग वादनांतूय ताणें खूब नामना मेळयली. तबल्याचें शिक्षण चालू आसतना ताच्या मनांत, लयीविशींचे विचित्र अशे प्रस्न येताले. एके लयीची जर समप्रमाणांत दुगण, तिगण, चौगण करपाक येता जाल्यार होच प्रकार विषम प्रमाणांत किद्याक करपाक जावंचोना. हे अशे तरेच्या, तालशास्त्रांतल्या एकेक कूटप्रस्नांक लागून तो स्वताक विसरलो. दिसान दीस, म्हयन्यान म्हयने तांचेर विचार करून सिध्दांत बांदूंक लागलो. लयकारीच्या ह्या नादांत ताणें बाकीचे विशय सोडून दिले. सुर्वेक ताणें तबल्याचेर आनी सारंगीचेर जायत्या नामनेच्या गायक-गायिकांक साथ केली. ताका मुळांतूच लयकारीचो बरो समज आशिल्लो. तो सदांच मात्रा-आवर्तनांच्या गणितांत गुल्ल उरतालो. थोड्याच काळाभितर लयकारींत ताणें सुमाराभायर येस मेळयलें. पावणेसोळा मात्रांचो 'परब्रह्मताल' ही ताची अप्रतीम अशी निर्मिती. हो ताल खांप्रुमामान अष्टांगपरिपूर्ण केलो. ह्या पावणेसोळा मात्रांच्या तालांत ताणें एकशें पंचवीस 'धा' आशिल्ली 'महासुदर्शन' नांवाची तालशास्त्रांतली सामकी कठीण अशी परान बांदली.

हजारांनी मुखडे ताका पाठ आशिल्ले. ताणें स्वता शेकड्यांनी गति, रेले, तोडे आनी परानी बांदिल्ल्यो. ताणें लयकारींत नवे, विंगड विंगड अजापाचे अशे प्रयोग केले. दिल्ले मूळचे लयींत खंयचीय पट तो सहजतायेन करतालो. तशेंच एकाच वेळार एका पांयान त्रिताल, दुसऱ्या पांयान झपताल, एका हातान लय, दुसऱ्या हातान चौताल धरून तोंडान सवारीचो थेको म्हण्टालो. तोंडान विशिश्ट बोलांचीं तीन आवर्तनां करतनाच, तो त्याच वेळार तबल्याचेर पांच खेपे तोच बोल वाजोवन दोगांयची सम अचूक सादतालो, पूण हें करतना ताची लय मात लेगीत हालनाशिल्ली.

१९१९ वर्सा सर्गेस्त पं. विष्णु दिगंबर पलुस्करान आयोजीत केल्ले संगीत् परिशदेंत खांप्रुमामान आपल्या तालशास्त्रांतल्या कठीण कुवाड्यांची उकल दाखोवपी पयली कार्यावळ केली. तेन्ना थंय हाजीर आशिल्ल्या हिंदुस्थानांतल्या जायत्या विद्वान तबलजींनी आनी पखवाजींनी खांप्रुमामाची ही कला मानून घेतली. १९२१ वर्सा सर्गेस्त पं. भास्करबुवा बखले हाणें आयोजीत केल्ले मैफलींत खांप्रुमामान लयकारीचे विंगड विंगड प्रकार करून दाखयले तेन्ना खुद्द बखलेन ताका 'लयशास्त्रांतलो प्रभु' म्हणून मानपत्र दिलें. १९३३ वर्सा मुंबयंत एक व्हड मैफल जाली. तेन्ना संगीतसम्राट खांसाहेब अल्लादियाखां, खांसाहेब विलायत हुसेनखां, अफताबे मूसिकि फैयाजखां आनी भारतांतले हेर नामनेचे गायक, तंतकार, तबलिये हाणीं खाप्रुमामाक शाबासकी दिली. अशेच एके मैफिलींत, खांसाहेब अमानअल्ली हाणें खाप्रुमामाची खूब तोखणाय केली.

१९३५ वर्सा श्रीमती मोगूबाय कुर्डीकार हिणें खांप्रुमामाचो एक पुतळो तयार करून घेतलो आनी एका सुवाळ्यांत ताका तो दिलो. तेन्ना हैद्राबादच्या कांय घरंदाज उस्तादांनी खांप्रुमामाचे लयीचें योग्यतायेविशीं विश्लेशण करून 'लय क्षेत्रांतलो तळपतो सूर्य' (अफताबे मूसिकि) अशें म्हणून ताचो भोवमान केलो. उपरांत १९३९ वर्सा मुंबयच्या कलावंतांनी ताचो सत्कार करून ताचे साधनेचो गौरव केलो. त्या वेळार खांसाहेब अल्लादिया खां हाणें खांप्रुमामाक 'लयब्रह्मभास्कर' अशी पदवी दिवन जल्मभर केल्ले ताचे साधनेक किताबत दिली. खांप्रुमामाचे जल्मभुयेंत जाल्ल्या एका सुवाळ्यांत गोंयच्या कलामोगी लोकांनी ताका 'तालकंठमणी' अशी पदवी दिली. पुण्यांत २४ ऑगस्ट १९४८ दिसा बॅरिस्टर बाबासाहेब जयकर हाचे अध्यक्षतेखाला खांप्रुमामाचो व्हड सत्कार जालो.

'यंग इंडिया' कंपनीन ताच्या वादनाची एक ध्वनीमुद्रिका काडिल्ली. ताचो पूत रामकृष्ण, तशेंच बाळकृष्ण पर्वतकार आनी दत्ताराम पर्वतकार हे खांप्रुमामाचे मुखेल शिश्य आशिल्ले. तेच भाशेन ताणें, गानतपस्विनी मोगुबाय कुर्डीकार आनी गोंयचो एक संगीत उपासक डॉ. मलबाराव सरदेसाय हांकां स्वर-तालाचें शिकप दिलें.

– रमेश सखाराम बर्वे

**पर्वतकार, नंदकुमार :** (जल्म : २० जून १९३५, पाडडें, केपें; मरण : ३ जानेवारी १९८७).

नामनेचो तबलापटू. पाडडें वाठारांतल्या पर्वताचेर ताणें आपलें भुरगेपण सारलें. ताका ल्हानपणापासून तबल्याची आवड आशिल्ली. सुर्वेकसावन ताणें आपलो बापूय सुब्राय पर्वतकार आनी विश्वंभर पर्वतकार हाचेकडल्यान तबल्याचे धडे घेतले. विश्वंभर पर्वतकार हो लयभास्कर खांप्रुमाम पर्वतकार हाचो शिश्य. ताणें कांय तेंप मुंबयचो नामनेचो तबलेवादक पंढरीनाथ नागेशकार, पंडित तारानाथ राव हांचेकडल्यान तबल्याचें शिक्षण मेळयलें. वेगवेगळ्या मार्गदर्शकांकडल्यान मेळिल्ल्या कुशळकायेंतल्यान ताणें आपलो खास असो बाज तयार केलो. ताचें शालेय शिक्षण जाय तितलें जालेंना. तरी ताचो तबलावादनाचो व्यासंग खूब व्हड आसा. पारंपारीक काल्यांतले 'धुमाळी' चे ताल आनी बोल हांची जाण आशिल्लो नंदकुमार पर्वतकारा सारको जाणकार मेळप गोंयांत खुबूच कठीण. १९५३ सावन ताका पं. मनोहरबुवा शिरगांवकार हाचो सांगात आनी रामनाथ शिरोडकर हाची उर्बा मेळत पसून ताचे कलेक भरपूर उत्तेजन मेळ्ळें आनी ती फुलत गेली. तबलें आनी पखवाज ह्या दोनूय तालवाद्यांची ताची जाणकारी सारकीच आसली.१९६५ त ताका आकाशवाणीच्या गोंय केंद्रार स्वतंत्र तबलावादन तशेंच तबलापटू म्हणून नोकरी मेळ्ळी. फुडें आकाशवाणीवयल्या 'अ' श्रेणींतल्या कलाकारांत ताचो आस्पाव जालो. आपले आकाशवाणीवयले वीस वर्सांचे कारकिर्दीत ताणें पयली साथ पुष्पलता कुलकर्णी हिच्या व्हायोलीन वादनाक दिवन सुरवात केली. उपरांत ताणें नामनेचो सतारवादक पं. कार्तिककुमार आनी रईस खाँ ह्या सारक्या नामनेच्या कलाकारांक साथ संगत दिवन नामना मेळयली. हाचेभायर ताणें पं. जीतेंद्र अभिषेकी, राजन-साजन मिश्रा, नामनेचो सारंगीवादक राम नारायण, अनंत केरकार, बांसरी वादक हरिप्रसाद चौरासिया, व्यंकटेश गोडखिंडी ह्या सारक्या भारतभर नामना मेळयल्ल्या गायक-वादक कलाकारांक तबल्याची साथ दिल्या. तबल्यावयलो ताचो हात इतलो ल्हवपीक आनी गोड आसतालो की सतारीची साथ संगत करतना दरेक हुंकार खंयचेच अडचणीबगर सहज कानार पडटालो. ताणें जायते फावटीं संतूर आनी सरोद वादकांची साथ संगत करून तुस्त मेळयल्या. १९८४ वर्सा गोंय सरकाराचो राज्य पुरस्कार ताका मेळ्ळो.

तो एक बरो नाट्यकलाकारूय आशिल्लो. नाटकांच्या पदांक फावो त्यो आनी नव्यो चाली लावपाक तो तरबेज आशिल्लो. ताणें जायते फावटीं गोंय आकाशवाणीचेर नाट्य संगिताचे कार्यक्रम केल्यात. तबलावादन, पखवाज वादन, नाट्याभिनय, नाट्यसंगित, भजन अशा विविध मळांचेर ताणें आपली सुवात निर्माण केली. फुडें ताका काळजाचो आताक येवन मरण आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

**पर्सेल, एडवर्ड मिल्स :** (जल्म : ३० ऑगस्ट १९१२, टेलराव्हिल – इलिनॉय).

अमेरिकी भौतीकशास्त्रज्ञ १९३३ त परड्यू विद्यापिठाची विद्युत् अभियांत्रिकीची बी. एस्. ही पदवी मेळयतकूच ताका एक वर्स जर्मनींत कार्लझ्रूए नगरांत आंतरराश्ट्रीय विद्यार्थी विनिमय येवजणेखाल शिकपाची संद मेळ्ळी. तेउपरांत ताणें हार्वर्ड विद्यापिठाच्यो एम. ए. (१९३५) आनी पी. एच. डी. (१९३८) ह्यो पदव्यो घेतल्यो. दोन वर्सां हार्वर्ड विद्यापिठांत भौतीकशास्त्राचो निदेशक म्हणून ताणें काम केलें. ते उपरांत १९४१-४५ ह्या काळांत मॅसॅच्युसॅट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजीच्या रेडिएशन लॅबोरेटरींत नवें सूक्ष्म तरंग तंत्र आनी नवी कंप्रता पट्ट हांच्या लस्करी कामाखातीर रडाराची उदरगत करपा नदरेन अभ्यास करपाखातीर स्थापन जाल्ल्या शास्त्रज्ञांच्या गटाचो तो मुखेल आशिल्लो.

१९४६ त तो हार्वर्ड विद्यापिठांत सहाय्यक प्राध्यापक आनी १९४९ त प्राध्यापक जालो. तेउपरांत १९५८-६० ह्या काळांत तो विज्ञानाचो डॉनर प्राध्यापक आशिल्लो आनी १९६० त गेरअर्ड गेड विद्यापिठांत प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली.

चुंबक क्षेत्रांत घुंवत आशिल्ल्या आणवीय कणांचे कंप्रतेकडेन अनुस्पंदन मेळोवपाखातीर रेडिओ-कंप्रता (३० किलोहर्ट्झ - ३०० मॅगाहर्ट्झ) आनी सूक्षीम तरंग (३०० मॅगाहर्ट्झ - ३,००,००० मॅगाहर्ट्झ) आंदोलनाचो पर्सेल आनी ताच्या वांगड्यांनी उपेग केलो. ही पद्दत 'अणुकेंद्रीय चुंबकीय अनुस्पंदन शोशण पद्दत' ह्या नांवान वळखतात. १९४६ त पर्सेल आनी ताच्या वांगड्यांनी मेणांतल्या प्रोटोनाक लागून जावपी अणुकेंद्रीय चुंबकीय अनुस्पंदनाचो सोद लायलो. त्याच सुमाराक फीलिक्स ब्लॉक आनी ताच्या वांगड्यांनी स्टॅनफर्डाक उदकांतल्या प्रोटोनाच्या अणुकेंद्रीय चुंबकी अनुस्पंदनाचो सोद लायलो. ह्या मोलादीक वावराखातीर पर्सेल आनी ब्लॉक हांकां १९५२ वर्साचो भौतीकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो. ह्या सोदाक लागून अणुकेंद्रीय परिबलां, द्रव आनी घन पदार्थांतले रसायनीक बंध आनी आणवीय बंधन हांचेविशीं म्हत्वाची म्हायती उपलब्ध जावन चुंबकीय अनुस्पंदन वर्णपटविज्ञानाचें नवें संशोधन क्षेत्र निर्माण जालें.

पर्सेल हाणें ह्या उपरांत अणकेंद्रीय चुंबकत्व आनी ताचेकडेन संबंदीत आशिल्ली रेणवीय रचणूक, आणवीय स्थिरांकांचें मापन आनी नीच तापमानाक दिसपी आणवीय चुंबकीय वर्तन हाचेविशीं संशोधन केलें. १९५२ वर्सा एच्. आय्. इवेन हाच्या वांगडा पर्सेल हाणें अवकाशांतल्यान येवपी प्रारणांतल्या उदासीन आणवीय हायड्रोजनाच्या २१ सेंमी. तरंग लांबायेचे ओळीचो सोद लायलो. ह्या सोदाक लागून तारामंडळांतल्या हायड्रोजनाच्या वितरणाविशींची म्हायती मेळ्ळी आनी ताका लागून रेडिओ ज्योतीश शास्त्रांत मोलाची भर पडली.

– कों. वि. सं. मं.

## पलुस्कर, विष्णू दिगंबर : (जल्म : १८ ऑगस्ट १८७२, कुरुंदवाड; मरण : २१ ऑगस्ट १९३१, मिरज).

संगीत मळावयलो एक युगपुरूश. ताचें मूळ आडनांव गाडगीळ. पूण तो पलूस गांवचो रावपी आशिल्ल्यान पलुस्कर म्हणुनूच ताका वळखताले. पूण पंडित विष्णू दिगंबर ह्या नांवानूच ताची चड नामना आसा. ताचें घराणें मूळ किर्तनकाराचें. ताचो बापूय बरो किर्तनकार आशिल्लो आनी कुरुंदेवाड संस्थानाचो अधिपती राजे दाजीसाहेब हाचे खास मर्जेंतलो आशिल्लो. देखुन राजघराण्यांतूच ताचे शिकप पुराय जालें. एक फावट एका उत्सवांत फोग लायतना ताच्या तोंडार फुटलो आनी ताचें तोंड भाजलें. ताचो ताच्या दोळ्यांचेर परिणाम जालो. देखून ताका



शिक्षण अर्दारूच सोडचें पडलें. विष्णूक ल्हानपणासावनूच संगिताचें बरें गिन्यान आशिल्ल्यान मिरजे आशिल्ल्या संगिताचार्य पंडित बाळकृष्णबुवा इचलकरंजीकर हाचेकडेन संगीत विद्या घेवंक धाडलो. थंय ताणें मन लावन संगिताचो अभ्यास केलो. ताचेकडल्यान ताणें शुद्ध स्वरुपांत ग्वाल्हेर गायकी मेळयली. इ.स. १८९६ त तो मिरज सोडून सातान्याक गेलो आनी थंयसावन पुणें, मुंबय अशें करून बडोद्याक गेलो. थंय ताच्यो संगिताच्यो मैफली चालूच आशिल्ल्यो. बडोद्याची महाराणी जमनाबाईसाहेब हिका विष्णूचीं पदां खुबूच आवडलीं. फुडें तिचे शिफारशींचेरूच ताणें काठेवाड, सौराष्ट्र आनी राजस्थानांतल्या राजे लोकांकडेन वचून आपल्या मैफलींचेर नामना जोडली. पूण संगीतकलेक समाजीक प्रतिश्ठा आनी कलाकाराक समाजांत मानाची सुवात मेळोवन दिवपाखातीर संगिताचो प्रसार करप, लोकांक संगिताचें शिक्षण फुकट मेळचें देखून संगीत विद्यालयां स्थापन करप, गरीब आनी बऱ्या घरांतले भुरगे घेवन तांकां पोसप, तांकां संगीत कलेचें शिक्षण दिवप, तातूंतल्यान बरे कलाकार आनी संगीत शिक्षक तयार करप हें ताचें ध्येय आशिल्लें. गिरनार पर्वताच्या दर्शनाक गेल्लेकडेन ताका एक साधू मेळ्ळो. ताच्या उपदेशाप्रमाण तो पंजाबाक गेलो. ५ मे १९०१ दिसा लाहोराक ताणें गांधर्व म्हाविद्यालयाची स्थापणूक केली. हातूंत ताणें पद्दतशीर अभ्यासक्रम आंखून संगिताविशींच्यो वेगवेगळ्यो परिक्षा विद्यार्थ्यांखातीर तयार केल्यो. आनी ते ते प्रमाण भुरग्यांक संगिताविशींच्यो पदव्योय दिल्यो. तशेंच विद्यालयाचे वतीन ताणें संगीत परिशदोय भरयल्यो.

१९०८ त तो मुंबय आयलो आनी थंय ताणें गांधर्व म्हाविद्यालयाची स्थापणूक केली. विष्णुबुवान आपले हयातींत सुमार शंबर-देडशें भुरग्यांक ल्हानाचे व्हड करून तांकां संगीतविद्या दिली. १९१२ वर्सा सावन तो तुलशीदासाच्या रामायणाचेर प्रवचन करूंक लागलो. 'रघुपति राघव राजाराम' हें भजन ताणें लोकांमदीं आवडीचें केलें. १९३० त तो रामायणाचेर प्रवचन दिवंक नेपाळांत गेल्लो.

१९१६त ताणें बडोद्याक श्रीमंत सयाजीराव गायकवाड हाचे अध्यक्षतेखाल अखिल भारतीय संगीत परिशद भरयली आनी तातूंत स्वरलेखनाचेर संशोधनात्मक निबंद वाचलो. ताणें बायलांमदींय संगिताचो प्रसार केलो. तेखातीर आपली बायल रमाबाई आनी भाची अंबूताई पटवर्धन हांकां संगिताचें शिक्षण दिवन तयार केलीं. बऱ्या घरांतल्या आनी शिकिल्ल्या बायलांक माचयेर येवंक ताणें स्फूर्त दिली. तेचपरी सभाघरांतल्यान संगिताचे जलसे भरोवपाकूय ताणेंच सुरवात केली. ह्या जलशांचें खाशेलपण म्हळ्यार वेळाचें बंधन, हें तो मोटे जतनायेन पाळटालो.

विष्णुबुवा देशभक्तूय आशिल्लो. 'वंदे मातरम' हें राश्ट्रगीत दर सभेंत म्हणपाची चाल ताणेंच काडली. स्वताची अशी आगळी वेगळी संगीत लेखन पद्दत ताणें काडली आनी हे पद्दतीन सुमार सात पुस्तकां बरोवन उजवाडाक हाडलीं. तातूंत संगीत बालप्रकाश, राग प्रवेश, संगीत बालबोध, स्वल्पालाव गायन, टप्पा गायन, होरी, मृदंग-तबलें, पाठ्य-पुस्तक, रामनामावली, रामगुणगान, बंगाली गायन, कर्नाटकी संगीत, बालोदय संगीत, व्यायाम के साथ संगीत, महिला संगीत, राश्ट्रीय संगीत, भारतीय संगीत लेखन पद्दती, आदी हिंदी मराठी पुस्तकांचो आस्पाव जाता.

पंडित विष्णूबुवान संगिताच्या मळार फुडारपण करून हे कलेक मानाची सुवात दिवन, ताचेविशीं आवड निर्माण करपाचो व्हड वावर

केलो. १८ ऑगस्ट १९७१ ते डिसेंबर १९७३ ह्या काळांत ताचे जल्मशताब्दी निमतान महोत्सव घडोवन हाडिल्लो. ताचो पूत पंडित दत्तात्रय विष्णू पलुस्कर होय एक नामनेचो गायक. ताणें जायत्या शिश्यांक संगीत कलेचें शिक्षण दिल्लें. पं. वामनराव पाध्ये, पं. विनायकराव पटवर्धन, पं. शंकरराव व्यास, प. नारायणराव खरे, पं. शंकरराव पाठक, पं. शंकरराव बोडस आदी ताचे जायते नामनेचे शिश्य आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**पल्लव राजवंश :** तमीळनाडूच्या तोंडमंडलम् प्रदेशाचेर इ.स.च्या तिसऱ्या शेंकड्यांत राज्य करपी एक राजवंश. कांचीपुरम् ही ताची राजधानी आशिल्ली. कांय इतिहासकारांच्या मतान ते मूळचे तमीळनाडूचे नासुंये. दक्षीणेक सातावाहनाचो शेक चलतालो तेन्ना ते तांचे मांडलीक आशिल्ले. तिसऱ्या शेंकड्यांत सातावाहनाचो शेक उणो जालेउपरांत पल्लवांनी आपलें स्वतंत्र राज्य उबारलें. मणिमेखलै म्हाकाव्या प्रमाण पल्लव राजवंशाचो मुळावो दादलो चोळ राजपुत्र आनी नाग राजकन्या हांचो पूत आशिल्लो. ते नागकन्येची जल्मभूंय मणिपल्लवम् आशिल्ली. म्हूणन ताच्या कुळाक पल्लव नांव मेळ्ळें. पूण इतिहासकार काशीप्रसाद डायस्वालच्या मताप्रमाण पल्लव लोक हे वाकाटका वंशाचेच दायजी आशिल्ले. ते ब्राह्मण कुळांतले आशिल्ले. पूण ताणीं क्षात्रवृत्ती आपणायली.

इ.स.च्या तिसऱ्या शेंकड्यांतल्या कांय प्राकृत ताम्रपटांवयल्यान सिंहवर्मा आनी शिवस्कंदवर्मा ह्या पल्लव राजांचो उल्लेख मेळटा. तशेंच तांचे राज्य कृष्णा न्हंयेसावन पेन्नार न्हंयेमेरेन पातळिल्लें. पूण तांच्या राज्यकारभाराविशीं चडशी म्हायती मेळना. तांच्यांतल्या विष्णुगोप राजाचेर समुद्रगुप्तान हार घालल्याचोय उल्लेख मेळटा. ३७५ ते ५७५ मेरेनच्या काळांत पल्लव वंशाचे आठ राजा जावन गेले. तांचीं नांवां संस्कृत ताम्रपटांवयल्यान कळटा.

सव्या शेंकड्याच्या निमाण्या पंचवीस वर्सांमदीं (५७५-६००) सिंहविष्णु नांवाचो प्रसिद्द पल्लव राजा जावन गेलो. ताणें चोळ मांडलिकांक आपले सत्तेखाला हाडून पल्लव राज्यांचो विस्तार वाडयल्लो. तो राजा विष्णु देवाचो उपासक आशिल्लो. भारवी हो प्रसिद्द संस्कृत कवी ताच्याच दरबारांत वावुरतालो. ६०० ते ६२० मेरेनच्या काळांत सिंहविष्णुचो चलो महेंद्र वर्मा हाणें राज्याचो आनीक विस्तार केल्लो. तो पराक्रमी तसोच एक कुशळ साहित्यीक आनी संगीतकार आशिल्लो. चित्रकलेचीय ताका आवड आशिल्ली. हाका लागून ताच्या तेंपार साहित्याक आनी कलेक उत्तेजन मेळ्ळें. महेंद्र वर्मा सुर्वेक जैन धर्माचो अनुयायी आशिल्लो. पूण उपरांत ताणें शैव धर्म आपणावन तो जैन धर्माक विरोध करपाक लागलो. महेंद्रवर्माचो चलो नरसिंहवर्मा पयलो हो पल्लव वंशांतलो सगळ्यांत श्रेश्ठ राजा जावन गेल्लो. ताच्या तेंपार पल्लवांची सत्ता दक्षिण भारतांतली एक मुखेल शक्त आशिल्ली. ६४२ त ताणें चालुक्य राज्याचेर घुरी घालून तांची बदामी राजधानी आपल्या शेकातळा हाडली. त्या झुजांत चालुक्य राजा पुलकेशीक मरण आयलें. उपरांत ६५५ त चालुक्य राजा विक्रमादित्यान पल्लवांचेर घुरी घालून आपली राजधानी परत मेळयली. नरसिंह वर्मान श्रीलंकेचो राजकुंवर मानवर्माक गादी मेळोवन दिवपाक आदार केल्याचे उल्लेख मेळटात. उपरांत नरसिंहवर्मान चोळ, चेर आनी कलभ्र राजांचेर हार घालून म्हामल्ल ही पदवी घेतिल्ली. नरसिंहवर्मा उपरांत ताचो चलो महेंद्रवर्मा दुसरो गादयेर आयलो. दोन वर्सां उपरांत चालुक्याच्या विक्रमादित्यान ताचेर हार घाली. परमेश्ववर्मा पयलो हाणें विक्रमादित्याचो पराभव केलो. परमेश्वराचो चलो नरसिंहवर्मा दुसरो हाचे राजवटींत शांतताय नासली. ताचो काळ हो पल्लव राज्याचो भरभराटीचो काळ म्हूणन वळखतात. ताचो चलो परमेश्वरवर्मा दुसरो हाणें राज्याचो विस्तार करपाच्या हेतान गंगा राज्याचेर घुरी घाली. पूण त्या झुजांत ताकाच मरण आयलें. परमेश्वरवर्मा दुसरो हाका चलो नाशिल्लो म्हूणन पल्लव नागरिकांनी नंदिवर्मा नांवाच्या एका बारा वर्सांच्या चल्याक गादयेर बसयलो. ताका पल्लवमल्ल अशें म्हण्टाले. ताच्या तेंपार पल्लव सत्ता मातशी हालल्या तें पळोवन पांड्य राजांनी ताचेर घुरयो घालपाक सुरू केलें. उपरांत दंतवर्माच्या तेंपार (७९६-८४७) पांड्य तशेंच राश्ट्रकूट राजांनीय साबार घुरयो घालून पल्लव राज्याची प्रतिश्ठा उणी केली. त्या सुमाराक चालुक्य, राश्ट्रकूट आनी पांड्य राजांच्या आक्रमणांक लागून पल्लव राज्याक देंवती कळा लागली. नृपतुंगवर्मा (८७२-८९३) हाणें पांड्यांचेर हार घालून आपली सत्ता परत वाडयली. पूण ती चड तेंप तिगून उरूंक शकलीना. नृपतुंगवर्मा उपरांत ताच्याच नात्यांतलो अपराजीत नांवाचो मनीस राज्यकारभार सांबाळपाक लागलो. पूण ताची सविस्तर म्हायती मेळना. तोच पल्लव वंशांतलो निमाणो राजा आशिल्लो अशें इतिहासकारांनी मत मांडलां. ८९३ त सामंत आदित्य चोळ हाणें अपराजीताचेर हार घालून ताचें राज्य आपल्या राज्याक जोडलें.

चडशे पल्लव राजा शैव धर्माचे अनुयायी आशिल्ले. ताणीं आर्य आनी द्रवीड अशा दोनूय संस्कृतायांचो पुरस्कार केलो. तांच्या राज्यांत सगळ्या पंथांक पुरायपणान स्वातंत्र्य आशिल्लें अशें सांगतात. तांच्या तेंपार द्रवीड शिल्पशैलीचो उदय जालो अशें मानतात. सातव्या शेंकड्यांत महेंद्रवर्मा आनी नरसिंहवर्मा ह्या पल्लव राजांनी तळपांत मंटप कांतोवन त्या शिल्पशैलींची बुन्याद घाली. तांच्या तेंपार कांची शार हें कलाकुसर आनी वेपारी केंद्र आशिल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

**पवनचक्की :** वाऱ्याच्या रुपांतलो गतीज उर्जेचो यंत्रीक उर्जा मेळोवपाखातीर उपेग करतात तें साधन. वाऱ्यांतले गतीज उर्जेचो उपेग पवनचक्की चलोवपाखातीर सगळ्यांत पयलीं यत्न इराणांत जाले (इ.स.६४४). उपरांत इराणच्याच सिस्तान भागांत ९१५ त आडवे पवनचक्कीचो कड्डण दळपाखातीर उपेग करपाक लागले. ती पवनचक्की वांशाक शिडां आनी दांतें बसोवन तयार केल्ली. एक उबो वांसो इमारतीच्या पाशतांतल्यान भायर काडून ताच्या वयल्या तोंकार फुलयेच्या आकाराचीं चार शिडां आडवीं बसयल्लीं. शिडां सुमार ३-४ मी. लांबायेचीं आनी एक रुंदायेचीं आशिल्लीं. रूंद लाकडी चौकट पट्ट्यांचेर घट्ट कपडो बसोवन तीं शिडां तयार केल्लीं जाल्यार वांशाच्या सकयल्या तोंकाक दांत्याची वयली फातर बसयल्ली. दांत्याची दुसरी फातर वयले फातरी सकयल घट्ट बसयल्ली. शिडांतल्यान वारो रिगलो म्हण्टकूच वांशा वांगडा वयली फातर सकयले फातरीच्या खुंट्या भोंवतणीं घुंवताली. अशे रितीन दांत्याचे वयले फातरीच्या पाळांत घाल्लें धान्य दळटालें. ते पवनचक्केचीं शिडां आडवीं आशिल्यान तिका आडवी (horizontal mill)

पवनचक्की म्हण्टाले. अशा पवनचक्क्यांचो उपेग क्रिमिया, अस्तंत युरोपांत आनी खूब उसरां अमेरिकेंत कांय प्रमाणांत करताले. तेराव्या शेंकड्यासावन शेतवडीक उदकापुरवण करचेखातीर चीनांत आडवे पवनचक्केचो उपेग जावपाक लागलो.

वाऱ्या उर्जेचो उपेग करपाची कल्पना अरबांकडल्यान युरोपांत पावली अशें तज्ञांचें मत.

रोमी लोकांक जल उर्जेचो, यंत्रीक उर्जा मेळोवपाखातीर उपेग करून घेवपाचें गिन्यान खबर आशिल्लें. त्या गिन्यानावयल्यानूच आडव्या अक्षाचेर उबे पातळींत घुंवपी शिडांची 'उबी' पवनचक्की रोमी लोकांनी तयार केली. ती पवनचक्की साद्या दंतचक्रांचे (simple beam) जोडयेचेर चलताली. दंतचक्रांच्या आदारान शिडांच्या अक्षाची गती फातरी दात्यांक मेळटाली. अशा उब्या पवनचक्क्यांचे उपेग बाराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन फ्रांसांत आनी इंग्लंडांत जावपाक लागले. सुर्वेच्या लाकडी पवनचक्क्यांची रचणूक खोक्यांसारकी (box) आसताली म्हणून तांकां 'पोस्ट मील' अशें म्हणटाले. त्या खोक्यांत दंतचक्रां, दळपाचीं दांतीं आनी हेर यंत्रसामुग्री आसताली. खोक्यांचे भायले वटेन शिडां बसयल्लीं आसतालीं. तो खोको घट्ट पुरिल्ल्या वांशांचेर बसयताले.



चवदाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक फ्रांसांत खांबचक्की (Tower Mill) तयार केली. ते ऊंच खांबे फळयांचे, चिऱ्यांचे वा विटांचे बांदताले. खांब्याच्या वयल्या तोंकार शिडां बसोवन, तीं वारो व्हांवता ते दिशेक घुंवडावपाखातीर एक खाशेली वेवस्था केल्ली. अशा प्रकारच्यो पवनचक्क्यो उपरांत युरोपभर पातळिल्ल्यो. युरोपांतल्या कांय भागांनी त्यो अजुनूय राखून दवरल्यात.

हॉलंड देशाचो खूबसो भाग दर्याच्या पांवड्यासकयल आसा. हाका लागून थंयच्या ल्हान-व्हड खळयांतलें वा फोंडकुलांतलें उदक भायर काडपाक हॉलंडी लोकांनी १५ व्या शेंकड्यांत 'पोकळ खांब्याची' पवनचक्की निर्माण केली. ती पवनचक्की दोन दंतचक्रांच्या आदारान चलताली. तातूंत शिडांची गती पोकळ खांब्याभितर बसयल्ल्या दांड्याक पयल्या दंतचक्रांवरवीं मेळटाली. दुसऱ्या दंतचक्रावरवीं दांड्याची गती एका खाशेल्या चक्राक (आर्किमिडीस स्क्रू) मेळटाली. तें चक्र जितलें नेटान घुंवतालें तितल्याच नेटान उदक वयर खेंचतालें. मुखार हॉलंडी लोकांनी पोकळ खांबी पवनचक्केंत खूब सुदारणा करून, तिचे नवे-नवे प्रकार तयार केले. बाराव्या शेंकड्यासावन ते एकुणिसाव्या शेंकड्यामेरेन हॉलंडांत सुमार णव हजार पवनचक्क्यांच्या आदारान उदक काडप, दळप, लाकडां चिरप, तेल काडप, कागद तयार करप आनी हेर विंगड विंगड कामां करप जातालीं. हॉलंडी लोकांनी तयार केल्ली सुदारीत पवनचक्की 'हॉलंडी पवनचक्की' म्हणून प्रसिद्ध आशिल्ली. वॅस्ट इंडीस जुंव्याचेर साकर कारखान्यांनी उसाचो रोस काडचेखातीर साबार पवनचक्क्यो उबारिल्ल्यो.

सुर्वेच्या तेंपार पवनचक्की सादारणपणान चार शिडांची आशिल्ली. तीं शिडां लाकडी चौकटीचेर दाट आनी घट्ट लुगट (सेल क्लॉथ) ताणून तयार केल्लीं. ती सपाट आसून घुंवता ते दिशेक तांचेर एक खाशेलो कोन तयार करताले. पवनचक्केंत सुदारणा जायत रावली तशें तातूंत ५ ते ८ मेरेन शिडांचो आस्पाव आसतालो. नवीं शिडां विमानाच्या पंख्यांप्रमाण पीळ दिवन तयार केल्लीं.

१७७२ त स्कॉटलँडी तज्ञ अँड्र्यू मायकल हाणें बिजागरी झडप आशिल्लें शीड तयार केलें. १८०७ त बिजागरीयुक्त झडप वापरिल्लें आनी सरपळेच्या आदारान नियंत्रीत करूं येता अशें पेटंट शीड विल्यम क्युबिट हाणें तयार केलें. १८६० सावन शिडांच्या नियंत्रणाखातीर ब्रेकांचो उपेग जावपाक लागलो. स्पेन, पुर्तुगाल, ग्रीस आनी तुर्कस्तान देशांनी ८ ते १२ त्रिकोणी शिडां आशिल्ल्या पवनचक्क्यांचो चड वापर जावपाक लागलो. १८५४ त डी. हॅलॅडी हाणें शिडांबगर एका रोदाचेर साबार ल्हान-ल्हान पातीं बसोवन उदक उसपुपी पवनचक्की तयार केली. १८८३ त तिख्याचे पवनचक्कीचें वेपारी उत्पादन करपाक स्टुअर्ट पॅरी हाणें सुरवात केली. उपरांत विद्युत् निर्मितीखातीर वेपारी तत्त्वांचेर पवनचक्क्यांचें उत्पादन अमेरिकेंत सुरू जालें. पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत युरोपांत आनी अमेरिकेंत पवनचक्की रचणुकेंत खूब बदल जावन विंगड-विंगड प्रकारांच्यो पवनचक्क्यो निर्माण जावपाक लागल्यो. भोवपाती अमेरिकी, पोकळ खांबी हॉलंडी, प्रचालकयुक्त, घुर्णकी (रोटर) हे पवनचक्क्यांचे मुखेल प्रकार आशिल्ले.

हॉलंडाच्या सपाट प्रदेशांनी पवनचक्केक फावोसो वारो वर्सूयभर व्हांवता, देखून थंय पवनचक्क्यांचो उपेग विंगड विंगड कामां उण्या खर्चांत करचेखातीर खूब प्रमाणांत जावपाक लागलो. मध्यकाळांत थंय पवनचक्क्यांचें जाळेंच तयार जालें. पूण विसाव्या शेंकड्यांत खनीज तेलाचो वापर चड प्रमाणांत जावपाक लागिल्ल्यान पवनचक्केचो उपेग फाटीं पडलो. दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून कोळशाचें प्रमाण उणें जाल्ल्यान, परतून पवनचक्क्यांचो उपेग जावपाक लागलो. वाऱ्या उर्जेचें संशोधन करपाखातीर १९७४ त हॉलंडांत एक समिती नेमिल्ली. थंयच्या ट्विंडा म्हाविद्यालयांत ५० मी. उंचायेच्या तिख्या खांब्याचेर २७ मी. लांबायेचें चक्र आशिल्ली आनी १४ मी. सॅ. वेगाच्या वाऱ्याचेर चलपी पवनचक्की उबारिल्ली, ती पवनचक्की दर वर्सा २ मॅगावॅट वीज निर्माण करता. अमेरिकेच्या नॅशनल अॅरोनॉटिक्स अँड स्पेस अॅडमिनिस्ट्रेशन ऑफ लाप्लब्रूक स्टेशन, सँडस्की, ओहायओ शारांत एनर्जी रिसर्च अँड डॅव्हलपमॅंट अॅडमिनिस्ट्रेशनाच्या विद्यमान वराक २९ किमी. वेगान व्हांवपी वाऱ्यान १०० किवॅ. वीज निर्माण करपी प्रयोगीक पवनचक्की उबारल्या.

भारतांत दर्यादेगांनी आनी दर्यालागीं आशिल्ल्या घाटांचेर वराक १० किमी. परस चड नेटाचो वारो फकत पावसाळ्यांत व्हांवता. शिंयाळ्यांत आनी गिमांत वाऱ्याचो वेग साप्प उणो आसता. हाका लागून देशांत पवनचक्केचो उपेग जावपाक शकना. पूण वराक २-३ किमी. नेटाचें वारें देशांत सगळ्या ऋतूंनी मारता. अशा वाऱ्याचेर कसल्या प्रकारची

पवनचक्की चलपाक शकतली आनी तेखातीर तिचे रचणुकेंत कसले बदल करचे पडटले, हेविशीं केंद्रीय शासनाचे वतीन बेंगलोर शारांत संशोधन चालू आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**पवार, कोंडिबा माधव :** (जल्म : ९ ऑक्टोबर १९२३, पिंपळवाडी पटिडा).

सुटकेझुजारी. सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा काणकुंभीच्यान गोंयांत येवन ताणें सूर्ला सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**पवार, दत्तात्रय नारायण :** (जल्म : ६ ऑक्टोबर १९२६, गुणवाडी, बारामती, पुणे).

सुटकेझुजारी. १९४२ तले सुटके चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९५५ वर्सा गोवा विमोचन सहाय्यक समितीचे वतीन सामुहिक सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. त्या वेळार पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. उपरांत तो इंडियन नॅशनल कॉंग्रेस समितीचो वांगडी जालो. २० ऑगस्ट १९७६ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**पवार, नयनदेव माधवराव :** (जल्म : २१ फेब्रुवारी १९३६, मुंबय)

सुटकेझुजारी. ताणें एस्. एस्. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. १२ जुलय १९५९ ह्या दिसा कॉ. त्रिदिषकुमार चौधरी हाच्या फुडारपणाखाल अनमोडच्यान गोंयांत येवन बिरोंदा गांवांत जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो, मार दिलो आनी दोडामार्गाचेर व्हरून सोडलो. उपरांतच्या काळांत तो समाजीक वावर करूंक लागलो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पवार, नारायणराव केशवराव :** (जल्म : ३० जून १९२३, देवला, आंबेजोगाई बीड).

सुटकेझुजारी. १९४७-४८ ह्या काळांत ताणें हैदराबाद सुटके चळवळींत वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी दोन वर्सां खातीर बंदखणींत दवरलो. तशेंच ताका दंडूय भरूंक लायलो. १५ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा वामनराव देशमुख हाच्या फुडारपणाखाल ५० सत्याग्रह्यांचो पंगड घेवन आरोंदेच्यान गोंयांत येवन आरोंबल पेडणें हे सुवातेर सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. तेन्ना पुर्तुगेज पोलिसांनी केल्ल्या लाठीहल्ल्याक ताका तोंड दिवचें पडलें. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पवार, भैरवनाथ शंकर :** (जल्म : १५ जुलय १९३२ येवले, नासिक).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी प्राथमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. ७ जुलय १९५५ ह्या दिसा दादा भांडारी आनी दॉ. कानडे हांच्या फुडारपणाखाल पैंगीण - लोलयां सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. ३० जानेवारी १९८८ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पवार, विष्णू रामभाऊ :** (जल्म : १६ जुलय १९३२, धुळे, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. तो भारतीय कम्युनिस्ट पक्षाचो वांगडी आशिल्लो. १९५५ वर्सा कॉ. एस्. नांदेडकर हाच्या फुडारपणाखाल ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. फुडें संयुक्त महाराष्ट्र चळवळींतूय ताणें वांटो घेतिल्लो. तेखातीर ताका बंदखणीची ख्यास्त जाल्ली. १६ सप्टेंबर १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**पवार, शिवराम लक्ष्मण :** (जल्म : १ जुलय १९२९, कोपरगांव).

सुटकेझुजारी. तो सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट. १९५५ ह्या दिसा काणकुबीच्यान गोंयांत येवन सूर्ला सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पवित्र स्नान (बातिझ्म) :** क्रिस्तांव धर्मांतलो एक म्हत्वाचो असो दीक्षाविधीचो संस्कार.

आपलें पातक धुवन काडपाखातीर कांय धर्मांनी, पवित्र उदकांत न्हाण घेवपाची चाल आशिल्ली. जेजू क्रिस्तापयलीं जुआंव (John the Baptist) ह्या प्रवाद्यान हीच पद्दत वापरली. जो पातक केल्लो मनीस, प्रायश्चीत घेवन देवाकडेन राजी जावपाक सोदतालो ताका जुआंव, जोर्दान न्हंयेंत न्हाण दितालो. जेजु क्रिस्तान लेगीत प्रायश्चीत करून जुआंवाकडल्यान न्हाण घेतिल्लें अशें मानतात. जे कोण पातकी जिणेक फाट करून देवाकडेन राजी जावपाक फुडें सरतात तांकां देवाबापायच्या, देवापुताच्या आनी पवित्र आत्म्याच्या नांवान उदकांत न्हाण दिवचें अशें जेजून आपल्या अनुयायांक फर्मायलें. तेन्नासावन, ह्या संस्काराक क्रिस्तांव धर्मांत बातिझ्म (Baptism) अशें म्हण्टात.

क्रिस्त शकाचे सुर्वेक हो संस्कार सुवाळो फकत पिरायेन व्हड आनी जाण आशिल्ल्या मनशांचो करप जातालो. पयलीं धर्माची पुराय शिकवण घेवन प्रायश्चीत काळाचे (Lent) चाळीस दीस प्रायश्चीत करतकूच पास्कांचे (Easter) रातीक हो संस्कार करताले. बातिझ्मा घेवपी मनशाक तीन खेपे उदकांत बूड मारून वयर येतकूच धवो कपडो न्हेसयतकूच तो मनीस पवित्र सभेचो (इगर्ज) वांगडी जातालो आनी उपरांत ताका क्रिस्तांव धर्माचे हेर सगळे संस्कार फावो जाताले. आयज लेगीत कांय पंथांनी

हीच रीत आसा, पूण खूबशा पंथांनी ल्हान भुरग्याकूच बातिझ्म दिवपाची चाल आसा.

**जाण्ट्या मनशाचें बातिझ्म** - बातिझ्म दिवपी पुरयत उपासकामुखार कांय प्रस्न विचारता ते अशे आसतात. जेजू क्रिस्त हो सगळ्या जगाचो तारणकर्तो आसून, ताचेकडल्यानूच पापाची भोगसणी आनी सनातन जीण प्राप्त जाता, असो तुका विस्वास आसा व्हय? तूं तुज्या पापांचो काळजांतल्यान पश्चाताप करता? ऐहिक गजाली आनी तांचेविशींची ओढ हांचो तूं त्याग करता व्हय? देवाचे इत्सेप्रमाण आचरण करून ताच्यो आज्ञा जल्मभर पाळपाचें तूं उतर दिता व्हय?' बातिझ्म घेवपी मनशान 'हयकाराचें उतर दितकूच पुरयत ताचे तकलेर उदक शिंपडावन, ताचें नांव घेवन ताचो 'बापूय, पूत आनी आत्मो' ह्या त्रयदेवाच्या नांवान बातिझ्म करता आनी ताका आशीर्वाद दिता तो असो आसा - शांतीचो देव तुकां पवित्र करूं आनी प्रभू जेजू क्रिस्त येवंच्या वेळार तुजो आत्मो, जीव आनी शरीर निर्दोश अशी राखण जावं... आमेन.'

**भुरग्यांचो बातिझ्म** - बातिझ्म दिवपी पुरयत भुरग्याच्या बापायक, आवयक वा घरच्यांक भौशीक उपासनेच्या वेळार, वेदीम्हऱ्यांत उबीं रावपाक सांगता. उपरांत सगळ्या वांगड्यांक उबे रावपाक सांगता आनी भुरग्याच्या आवय- बापायक कांय प्रस्न विचारता ते अशे आसतात -

'प्रेषितांचो मतांगीकार होच तुमचो विस्वास आसा व्हय? ईश्वराचे कृपेचेर आदारून रावन, प्रार्थनेन, तोंडी उपदेश करून, आपल्या आचरणान ताका आदर्श घालून दिवन, प्रभूचे शिकवणेप्रमाण आनी उपदेशाप्रमाण तशेच देवाचे मंडळीचे रितीप्रमाण ताका क्रिस्तांव धर्माचीं तत्त्वां आनी कर्तव्यां शिकोवपाचें तुमी उतर दितात व्हय?' आवय-बापायन वा घरच्यांनी हयकाराचें उतर दितकूच पुरयत त्या भुरग्याचें नांव घेवन ताचेर उदक फाफुडटा. '... बापूय, पूत आनी पवित्र आत्मो हांच्या नांवान हांव तुजें बातिझ्म करतां. आमेन,' अशें म्हणून ज्या भुरग्याक तो आशिर्वाद दिता तो असो - 'बापूय, पूत आनी पवित्र आत्मो जो सगळ्यांत श्रेश्ठ ईश्वर ताचो तुका आशीर्वाद मेळूं आनी तुज्या अंत:करणांत तो सदांच उरूं... आमेन'. एकेकदां भुरग्याची जापसालदारकी घेवपाक आवय-बापायचे सुवातेर पोदोन (Padrinho, godfather) आनी मोदोन (madrinha, godmother) आसतात.

- मॅथ्यू आल्मैद, जे.स.

**पशुकामेश्ठी :** पशुधन म्हळ्यार मोनजात वाडची वा मेळची हेखातीर जायते याग सांगल्यात. वेदकाळांत मोनजात हेंच मुखेल धन आशिल्ल्यान तें भरपूर प्रमाणांत मेळचें अशें त्या काळांतल्या लोकांक दिसतालें. तेखातीर वेगवेगळ्या देवतांक उद्देशून हवी तयार करून इश्टी करप अशें सांगलां. एके इश्टीत अग्नी, इंद्र आनी प्रजापती ह्यो देवता आसात. अग्नीखातीर अष्टाकपाल पुरोडाश, इंद्राखातीर पंचकपाल पुरोडाश आनी प्रजापतीखातीर संसृष्ट हवी तयार करचो अशें सांगलां. थंय, म्होंव, तूप, ल्हायो आनी उदक हे पांच पदार्थ मेळून संस्कृट हवी तयार करचो. प्रजापती, सोमापूषणौ, इंद्र आदीं देवांखातीर वेगवेगळ्यो हवी तयार करून याग करचो आसता. ह्या सगळ्या इश्टींचें तंत्र दर्शपूर्णमासेश्टीप्रमाण आसता. दक्षिणा मात वेगवेगळी आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**पशुपतिनाथ :** नेपाळांतलें एक शिवस्थान. हें काठमांडूसावन सुमार तीन मैलांचेर बागमती न्हंयेचे देगेर वसलां. हांगाच्या शिवलिंगाक पशुपतिनाथ अशें म्हण्टात. ताचें देवूळ ऊंच चौथऱ्याचेर बांदिल्लें आसून ताचे सगळे वटेन सोंपणां आसात. सगळें देवूळ पितूळच्या पत्र्यान मढयिल्लें आसून तें देवाच्या मुर्तींनी सजयलां. ह्या सगळ्या वाठाराक देवपाटण अशें म्हण्टात. गाभाऱ्यांत सुमार चार हात उंचायेची पशुपतिनाथाची पिंडिका आसा आनी तिचेर चतुर्मूख शिवलींग आसा. ह्या चारूय मुखांचेर मुखडे बसयल्यात. मदलें मूख हें पांचवें मूख मानतात. ह्या शिवस्थानाची स्वयंभू म्हणून नामना आसा. पशुपतीन महिषाचें रूप घेतिल्लें अशी कथा आसा. ह्या महिषाचें धड केदारनाथाक आनी तकली पशुपतीनाथाक आशिल्ल्याचें सांगतात. पशुपतिनाथ हो शिवाच्या अश्टमुर्तींतलोच एक मानतात.

हांगा देवाची सदांच त्रिकाळ पुजा जाता. अभिशेकाउपरांत देवाच्या माथ्याचेर श्रीयंत्र बरोवन ताची पूजा करतात.

दर पुनवेक हांगा विशेश पुजा आसता. ह्या देवस्थानाचो सगळो खर्च सरकार करता. पशुपतिनाथाच्या पुजाऱ्याक रावळ अशें म्हण्टात. पुजाऱ्याची नेमणूक राजगुरूकडल्यान करतात. गुह्येश्वरी हें पशुपतिनाथाचे बायलेचें देवूळ मुखेल देवळालागसार आसा. थंय लागसारूच कालभैरवाचें देवूळ आसा. तेभायर विश्वरूप गोरखनाथ आदी देवाचींय देवळां ह्या वाठारांत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**पशुपालन :** सुरवातीच्या काळांत (अश्मयुगा पयलीं) मनीस हेर जनावरांभशेन धोलींनी रावताले आनी ह्या रानटी जनावरांसावन आपली राखण करपाची वेवस्था करताले. कांय रानटी जनावरांची शिकार करून तांचें मास ते अन्न म्हणून कात वस्त्र म्हणून आनी हाडां शस्त्र म्हणून वापरताले. हो मनशाचो आनी जनावरांचो पयलो संबंध. उपरांत जनावरांचे सेवेखातीर आनी तांचेपासून मेळपी अन्नघटक सहजतायेन उपलब्ध करचेखातीर मनशांनी तांकां पोसपाक सुरवात केली.

रानटी अवस्थेंत आशिल्ले हे मोनजातीक मनशाळपाचे यत्न पयलीं मध्याश्म युगांत जाले. पूण चडशा मोनजातींक नवपाषाण युगांत मनशाळीं करप जालें (क्रि.प. ९००० ते ८०००). सुरवेक सुण्याक आनी उपरांत मेंढरां, गाय घोडे, दुकर आनी हेर जनावरांक मनशाळीं करप जालीं. त्या काळांत मनीस चोंब्या-चोंब्यांनी रावताले आनी शिकार करच्या निमतान ते भोंवत रावताले. पूण क्रि. प. ७०००च्या सुमाराक ते जेन्ना शेतवड करपाक लागले, तेन्ना सावन तांच्या जिवितांत थोडीभोव थिराय आयली. उपरांत वजें व्हरपाखातीर ते घोडे, पाडे, म्हशी ह्या जनावरांचो उपेग करपाक लागले. मुखार शेतकीमळार जसो विकास जावपाक लागलो, तसो त्या जंनावरांचो ते शेतकी कामांखातीर उपेग करून घेवपाक लागले. आयज लेगीत जगांत शेतवडीसकयल आशिल्ले वट्ट जमनींतली सुमार ८०% जमीन मोनजातीच्या पालवान कसयतात. मुखेल वेवसाय शेतवड आनी शेतवडीक पालव म्हूण गोरवां पोसप, ही रीत खूब शेंकडे चालूच आशिल्ली. ह्या तेंपार लोक मासूय भक्षण करताले, देखून मेंढरां आनी हेर मासोत्पादक जनावरां पोसपाक ल्हव-ल्हव नेट आयलो. त्या तेंपार चोंब्या-चोंब्यांचो राबितो आशिल्ल्यान ह्या पाळीव मोनजातींभितर

भरसण जावन तांच्यो वेगवेगळ्यो जाती निर्माण जावपाक लागल्यो. तेच प्रमाण टोळ्या-टोळ्यां भितल्ल्या संघर्शाक लागून झुजांत उपेगी पडपी घोड्यांची पैदास सुरू जाली. मॅसोपोटेमियांत बैलांचे गाडे इ. स. प. ३५०० वर्सां पयलींसावन वापरताले. तशेंच सिंधू न्हंयेच्या देगणांत इ. स. प. २५०० ह्या काळांत घोड्यांचे रथ वापरताले आनी हत्तींचो उपेग वजें व्हरपाक करताले हांचे पुरावे मेळ्ळ्यात.

वैदिक काळांत भारतांत पशुपालनाचो धंदो स्वतंत्रपणान करपी लोक आशिल्ले, असो ऋगवेदांत उल्लेख आयला. महाभारतांतूय गोरवां पोसपाच्या धंद्यांत खूब उदरगत जाल्ली. चड दूद दिवपी गायो अस्तित्वांत आशिल्ल्याची म्हायती मेळटा. आर्य लोक गाय, घोड्यांचे तशेंच हेर कांय जनावरांचेय मास खाताले असो ऋगवेदांत उल्लेख आयला. पुर्विल्ल्या काळांत भूंयमध्य दर्याच्या उदेंत भागांत आनी मध्ययुरोपांत हेडपी लोक गोरवां पोसपाचो धंदो करताले, स्पेन, इटली, बाल्क, नॉर्वे आनी ब्रिटनांतले लोक सपाट भुंयेचेर शेतवड करताले आनी दोंगरी वाठारांनी गोरवां आनी मेंढरां चरयताले. लोह युगाचे सुर्वेक (क्रि. प. ५०० ते ४००) ब्रिटन आनी उत्तर युरोपांतल्या हवामानांत खूब बदल जावन कडक शियाळ्यांसावन गोरवांची राखण करपाची गरज जाणवपाक लागली. तेन्ना एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्याचेर हेडप खूब उणें जावन गिमाच्या दिसांनी दोंगरी वाठारांत आनी शियाळ्यांत सपाट मैदानांचेर अशें स्थलांतर करून लोक रावपाक लागले. उपरांत इ. स. १७५० च्या सुमाराक व्हड चरवा मळां निर्माण करपाक लागले. तशेंच गोरवांक बांदचेखातीर गोठेय बांदप जाले. अशे रितीन शिंयाच्या दिसांनी रानांत आनी पावसाळ्यांत गोठ्यांत गोरवां बांदून तांकां चार-उदक दिवपाचीय वेवस्था करपांत आयली. फकत गोरवांच पोसपाचो धंदो करपी ब्रिटन हो मध्य युरोपांतलो पयलो पशुपालक देश आशिल्लो. पूण शास्त्रीय नदरेंतल्यान पशुपालनाचो धंदो करपी पयलो पशुपालक म्हूणन रॉबर्ट बॅकवॅल (१७२५ - ९५) हाचोच उल्लेख करतात. बॅकवॅल आनी कोलींग भावांनी मेळून अठराव्या शेंकड्यांत वेंचून काडिल्ल्या गोरवांचेर शास्त्रीय पद्दत आपणावन दूद आनी मास उत्पादनांत वाड करचे नदरेन गोरवांचें प्रजनन करून ह्या क्षेत्रांत एक क्रांती घडोवन हाडली. युरोपी देशांनी अशा एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत प्रजननाची पद्दत साबार देशांनी आपणायली. हाचो परिणाम म्हळ्यार एका दूदउत्पादन काळांत १२ ते १५ हजार लिटरांमेरेन दूद दिवपी गायांच्यो जाती निर्माण जाल्यो. प्रजननाची पद्दत आपणायतना उपलब्ध पशूंभितर ज्या पशूंत खोशेले गूण दिश्टी पडटात तांकांच प्रजननाखातीर वेंचून काडटात. हेच पद्दतीचो दुकर आनी मेंढरांच्या प्रजननाखातीर उपेग करून दुकरांचें मास आनी मेंढरांची लोकर वाडोवपाखातीर यत्न जाले. हे पद्दतीक लागून वर्साक २० किग्र. लोकर दिवपी मेंढरां आनी वजनांत रोखडीच वाड जावपी दुकरांच्यो जाती निर्माण जाल्यो.

विंगड विंगड देशांतलें हवामान, खाद्यपदार्थांची उपलब्धता, पशूंची आनूवांशीक घडण आनी पोसपाचे पद्दतीक लागुनूय पशूसंवर्धनाचे चालीरितींनी फरक आसतात. इजिप्त, भारत, पाकिस्तान, मलेशीया आनी आग्नेय आशियांतल्या हेर देशांनी दूदउत्पादनाखातीर म्हशींक चड म्हत्व आसा. तशेंच ह्या देशांनी शेतकी कामांखातीर आनी गाडे ओडचेखातीर रेड्यांचो उपेग करतात. अमेरिका, युरोप आनी हेर अस्तंती देशांनी दुदाखातीर गायांचोच उपेग करतात. अरबी देशांनी बोकड्यो आनी उंटिणींच्या दुदाचो वापर चड जाता.

गाय, म्हस, बोकड्यो, मेंढरां, दुकर, घोडे, गाढवां, उंट आनी कुकडांचो पोशिल्ले मोनजातींत आस्पाव जाता. हे मोनजातींसावन मुखेलपणान दूद, मास, लोकर, केंस, हाडां आनी चामडें मेळटा. कुकडांपसून तांतयां आनी मास मेळटा. जाल्यार कांय जनावरांचो फकत वजें व्हरपाखातीर म्हूणन उपेग करतात.

सुरवातेक, पंगडांनी रावपी मनशांनी, सैमीक रितीन निर्माण जाल्ल्या मोनजातींचे कळप नियंत्रीत प्रजननावरवीं तयार करपाक सुरवात केली. तातूंतल्यान अस्सल जातींची निर्मिती जाली. उपरांत अनुवंशिकी विज्ञानीक सिद्धांतांच्या आदारान संयोगांच्यो विंगड विंगड पद्दती वापरून चडांत चड इश्टतम गुणांचो संचय अपेक्षीत आशिल्ल्या आनुवंशीक प्रकृतीचे पशू निर्माण करपाचे यत्न अठराव्या शेंकड्यांत सुरू जाले. दूद उत्पादनांत वाड करपाचे नदरेन गायेची माजार येवपाची पिराय, दोन वितांतलें अंतर, एका दूद काळांतले दूद उत्पादन, दुदांत आशिल्लें चरबेचें प्रमाण आनी हेर अनुवंशीक गुणांचो अभ्यास करून प्रजनन शास्त्रांतली प्रतसुधार आनी विंगड विंगड संयोगाच्यो पद्दती वापरून दुदाळ गायांच्यो जाती निर्माण करपाचे यत्न जाले. ब्रिटन, डॅनमार्क, हॉलंड, स्विडन, अमेरिका आनी ऑस्ट्रेलिया ह्या देशांनी प्रसिद्ध अशा होल्स्टीन, फ्रिजियन, जर्सी, गर्न्सी आयर्शर आदी जातींच्या गायांचो आस्पाव जाता. अस्तंती देशांनी गोरवांच्या मासाक खूब मागणी आशिल्ल्यान त्या देशांनी घसघशीत मासाच्यो गायो निर्माण केल्ल्यो. त्यांच्यो शॉर्टहॉर्न, हरफर्ड, ॲबर्डीन, ॲगस आनी हेर स्वतंत्र जाती निर्माण केल्ल्यो तशेंच खूब मास दिवपी दुकर आनी उत्कृश्ट लोकर दिवपी मेंढरांच्यो जाती निर्माण केल्यो.

पशुपालन हो भारताचे गांवगिरे अर्थवेवस्थेक पालव दिवपी एक म्हत्वाचो वेवसाय. ह्या वेवसायाक लागून खेड्यांतल्या साबार लोकांक रोजगार मेळटा. भारतांत मुखेलपणान पशुपालन हो धंदो शेतकी वेवसायाक आदार म्हूण करताले. पूण सद्या फकत दूद आनी मास वाडोवपाचे नदरेन हो वेवसाय स्वतंत्रपणान उबारपाच्यो कांय येवजण्यो केंद्र आनी राज्य सरकारान मेळून आंखल्यात. पशुपालनाक लागून उद्देगधंद्यांकूय चामडें, चरबी, रगत आनी हाडां सारकिल्ल्या कच्च्या म्हालाची निर्यात जाता. शेण, बोकडांच्यो लेणयो आनी कुकडांच्या गुवाचो आयजलेगीत सारें म्हूण व्हडा प्रमाणांत उपेग जाता. गोरवांचो गाडो ओडपाक आनी शेत नांगरपाकूय उपेग जाता. १९८७ चे पशूगणनेप्रमाण भारतांत १९५.८५ दशलक्ष गोरवां, ७६.७७ दशलक्ष म्हशी, ४४.८४ दशलक्ष मेंढरां ९९.४१ दशलक्ष बोकड्यो, १०.७६ दशलक्ष दुकर, २.९ दशलक्ष हेर वजें वोडपी जनावरां आनी २५८.३४ दशलक्ष कुकडां आशिल्लीं. वेगवेगळ्या वंशांच्या मोनजातीची नेटान वाड जावंची म्हूणन सरकारान तांचे भलायकेचेर आनी जननीक सुदारणेचेर चड भर दिल्या.

सद्या भारतांत प्रजनन केल्ल्यो सुमार २६ तरांच्यो गायो आसात आनी स तरांच्यो म्हशी आसात. गोरवां पोसपाच्या वेवसायाक नेट येवचो म्हूण सरकारान आयसीओपी आनी केवीबी हे प्रकल्प उबारल्यात.

भारतांत शास्त्रीय नदरेन गोरवांचे प्रजनन करपी वेगवेगळ्या राज्यांत आशिल्ले सात फार्म सुरतगड (राजस्थान), धमरोड (गुजरात) अलामधी (तामिळनाड) चिपलीमा, सिमिलीगुडा (ओरिसा) अंदेशनगर (उत्तर प्रदेश) आनी हेसरगट्टा (कर्नाटक) अशे :

पॉल्ट्री होय शेतकी अर्थवेवस्थेक हातभार लावपी एक मुखेल वेवसाय.

मोठीं तांतयां आनी चड मास दिवपी कोंबयो वाडोवपाखातीर सरकारान खूब येवजण्यो आंखल्यात. सातवे पंच वर्सुकी येवजणेंत तांतयांच्या उत्पादनांत ७.३% वाड जाली जाल्यार ब्रॉयलरच्या उत्पादनांत १८ % वाड जाली. शास्त्रीय नदरेन पॉल्ट्रीचें प्रजनन करपी केंद्रीय फार्म मुंबय, भुवनेश्वर हेसरगट्टा आनी चंदीगडाक आसात. जाल्यार बदकांचें प्रजनन करपी केंद्रीय फार्म हेसरगट्टा हांगा आसा. हेसरगट्टा हांगा आशिल्ली केंद्रीय पॉल्ट्री प्रशिक्षण संस्था ल्हान-ल्हान शिक्षणीक पाठ्यक्रम घेवन पॉल्ट्री विशींचें शिक्षण दिता.

मेंढरां पोसपाचे नदरेन भारताचो संवसारांत सवो क्रमांक लागता. १९८७ तले पशुगणने प्रमाण भारतांत सुमार ४४८ लाख मेंढरां आशिल्लीं. दर वर्सा एका मेंढरा फाटल्यान एक किलोवयर लोकर मेळना. १९९४ - ९५ वर्सा वट्ट लोकरीचें उत्पादन सुमार ४३६ लाख किग्रॅ. आशिल्लें. पूण सद्या भारताक लोकरीची गरज सुमार ८०० लाख किग्रॅ. वयर आसा. हाका लागून दर वर्सा भारताक सुमार ३०० लाख किग्रॅ. लोकर आयात करची पडटा हाचो परिणाम कारपेट उद्देगाचेर जाता. हिस्सर (हरियाना) शारांत सेंट्रल शिप ब्रिडींग फार्म आसा. शास्त्रीय पद्दतीन बरी लोकर आनी बरें मास दिवपी मेढरांच्यो जाती तयार करप हो शिप ब्रिडींग फार्माचो मुखेल उद्देश आसा.

देशांत १९९५ मेरेन १०० लाखांवयर दुकर आशिल्ले. हातूंतले फकत १०% दुकर बरे जातीचे आसात. उरिल्ले सगळे गांवठीच आसात. सद्या राज्यसरकाराच्या पालवान चलपी देशांत लागीं लागीं १०० दुकरांचे फार्म आसात. ते फार्म प्रजनन केल्ल्यो नव्यो जाती, तशेंच दुकर पालनाविशीं शेतकामत्यांक म्हायती दिता.

शास्त्रीय पद्दतींत तयार केल्ल्या वेगवेगळ्या जनावरांक खाशेले तरेचो खुराक आनी चरोव जाय पडटा. हो खुराक तयार करपाखातीर सरकारान हिस्सार (हरियाणा); कल्याणी (अस्तंत बंगाल); गांधिनगर (गुजरात); अलमादी (तमिळनाड); हैद्राबाद (आंध्रपदेश); सुरतगड (राजस्थान) आनी शेहामा (जम्मू आनी काश्मीर) ह्या शारांनी मेटां (station) उगडल्यांत. अशा खुराकाची लोकांक जाणीव जावंची म्हणून हे मेट वेगवेगळ्या प्रदेशांनी ते संबंदीत निर्देशनांय घडोवन हाडटात, तशेंच शेतकामत्यांक तेविशीं प्रशिक्षणूय दितात. प्रजनन करून तयार केल्ल्या जनावरांक रोगपिडा जावपाचीय चड शक्यता उरता. देखून मृत्युसंख्या आनी रोगापिडांचेर नियंत्रण दवरपाखातीर केंद्र सरकारान गांवागावांनी पॉलीक्लीनीक नाजाल्यार वॅटरनीटी हॉस्पिटलां उगडल्यांत. १९९३ मेरेन देशांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांनी पॉलीक्लीनीक, हॉस्पिटल आनी डिस्पन्सरींचो आंकडो १९,७९१ आशिल्लो जाल्यार २०, ३०२ वॅटरनीटी सँटरां आशिल्लीं.

दूद आनी दूदजिन्सांची देशांतली गरज आनी म्हत्व लक्षांत घेवन, त्यासंबंदीत नेटान वाड जावंची म्हणून सरकारान साबार येवजण्यो आंखल्यांत. ह्या क्षेत्रांत कॉओपरेटीव सोसायटींचो वांटो म्हत्वाचो आसा. सप्टेंबर १९९४ मेरेन १७० दूद मांगराखाला देशांत ६८,९०० डॅरी कॉओपरेटीव सोसायटी संघटीत केल्ल्यो. तातूंत ८.८ दशलक्षांवयर शेतकामत्यांचो आस्पाव आशिल्लो. एप्रिल ते सप्टेंबर (१९९४) ह्या पांच म्हयन्यांत केल्ल्या सर्वेक्षणांत दर दिसा मेळपी दूदाची ९४.५ लाख किग्रॅ. इतली नोंद जाताली. दूद वेवसायाक लागून साबार गांवगिऱ्या वाठारांची परिस्थिती नेटान सुदारत आसा. सातवे पंच वर्सुकी येवजणेंत दूद उत्पादनांत सुमार ४.५% वाड जाल्ली.

मास प्रक्रिया आनी मास उत्पादनांतूय खूब वाड जाल्ली आसा. सद्या देशांत मान्यताय मेळिल्ले ४,००० कत्तल खाने (Slaughter houses) आसात. ह्या कत्तल खान्यांचेर देखरेख दवरपाखातीर ल्हान ल्हान अशो खाशेल्यो संस्था उबारल्यात. देशांत खूब कडेन आयज लेगीत मासाखातीर म्हूण पारंपारीक पद्दतीनूच जनावरांक मारप जाता. हाका लागून अशा कत्तलखान्यांभोवतणी प्रदूशण वा दुर्गंधी पातळपाचो चड संभव आसता. तशेंच दुशीत मासाचेरूय नियंत्रण दवरपाक सरकाराक कुस्तार जाता. देखून आठवे पंचवर्सुकी येवजणेंत सरकारान आधुनिक पद्दतीचे कत्तलखाने उबारपाचेर चड भर दिल्लो. १९९४-९५ ह्या काळांत भारतान ४३० कोटी रुपयांचें मास आनी मास उत्पादनांची निर्यात केल्ली.

भारतांतल्या पशूंचे संख्येच्या मानान, पशूंसावन मेळपी उत्पन्न हेर कांय देशांपरस खूब उणेंच आसा. पूण हालींच्या तेंपार पशुसंवर्धनाच्या मळार जाल्ले उदरगतीक लागून देशाच्या अर्थकरणांत पशूपसून मेळपी उत्पन्नाचो वांटो दिसान दिस वाडत आसा. पशुप्रजनन, तांचे संगोपन, तांची पोसवण, तांकां फावो ती खावड तयार करप आनी वेगवेगळ्या दुयेंसापसून तांची राखण करप हो पशुसंवर्धनाचो मुखेल हेत. पशुंची उत्पादन क्षमताय वा उपयुत्कताय वाडोवपाचे नदरेंतल्यान तांचें प्रजनन आनी पालनपोशण करप हो पशूसंवर्धनाचो खरो अर्थ.

– कों. वि. सं. मं.

**पशुपूजा :** पशू म्हळ्यार प्राणी. 'अविशेषेण सर्व पश्यति' म्हळ्यार खाशेलपण जाणिनासतना सारकेच नदरेन जो पळेता तो पशू अशी व्याख्या आसा. पुरूशान आपल्या अवयवांपसून हे पशू निर्माण केले अशें ऋग्वेदांत म्हळां. ऋग्वेदांत वायव्य, आरण्य आनी ग्राम्य अशे पशूचे तीन भेद केल्यात. वायव्य म्हळ्यार अंतराळांत भोंवपी सुकणीं, आरण्य म्हळ्यार रेडो, वानर, ऋक्ष, सरकटपी प्राणी हे रानांत रावपी प्राणी आनी ग्राम्य म्हळ्यार गाय, बैल, बोकड, गाढव हे पोसतात ते प्राणी आसात. अथर्ववेदांत आरण्य पशूंचे भीम, सपक्ष, शिंशुमार, मत्स्य आनी कृमिकीटक अशे पांच वर्ग दिल्यात. पशूंक उभयदंत आनी अन्यतोदंत अशें म्हळां. तांचें हस्तादान म्हळ्यार हातांचो उपेग करपी आनी मुखादान म्हळ्यार तोंडान वस्तू धरपी अशे दोन वांटे केल्यात. मनीस, हत्ती आनी माकड हे तीन पशू हस्तादान आशिल्ल्याचें तैत्तिरीय संहितेत म्हळां. वैदिक वाङ्मयांत मनशाचोय आस्पाव पशूंत केला. दोन पांयांचे आनी चार पांयांचे अशेय पशूंचे भेद जातात. पशूंभितर मनशाचो क्रमांक पयलो आसून तो शतायू आनी पशूंचो राजा आसा अशे शतपत ब्राह्मणांत म्हळां, ऐतरेय आरण्यकांत मनीस, पशू आनी वनस्पत हांचे बुध्दीचो फरक वर्णिला.

वेगवेगळ्या पशूंच्यो वेगवेगळ्यो अधिष्ठात्री देवता सांगल्यात, त्यो अशो – दुर्गा ही शिंवाची, प्रजापती ही शरभाची, वायू ही मृगाची, चंद्र ही मेषाची, नक्षत्रां हीं सोंशाचीं आनी विष्णु ही काळविटाची अधिष्ठात्री देवता. तशेंच गायचे फाटीर इंद्र आनी घोड्याच्या रुपांत बारा आदित्य आसतात. म्हणून हे पशू पुज्य मानल्यात. वैदिक काळांत पूषा ही पशूंची राखण देवता मानल्या. अप्रत्यक्ष रुपान ही देवता गोरवांची आनी हेर जनावरांची राखण करता. हे समजुतीन, वैदिक लोक पूषाचीं स्तुतिस्तोत्रां गाताले आनी पूषाचेच कृपेन गोधनाची वाड जाता अशें मानताले. त्या

काळांत यज्ञाची दक्षणा म्हणून शेंकड्यांनी लोक हजारांनी गायो दान दिताले. गोरवांक बरी राखण मेळची म्हणून यज्ञाच्या वेळार लोक देवांची तोखणाय करताले. तशेंच जनावरां निरोगी आसचीं, घोडे अदीक नेटान धांवचे आनी घोड्यांचे सर्तींत तांकां जैत मेळचें अशीय इत्सा ते सूक्तांतल्यान उक्तायताले. महाभारत काळासावन गायांचें धर्मीक म्हत्व वाडलें आनी गोधन हें सगळ्यांत श्रेश्ठ धन मानपाक लागले. तशेंच गायचें दर्शन आनी दान पुण्यप्रद मानूंक लागले. गाय ही लक्ष्मीचें मूळ तशेंच यज्ञाचें मूख आनी दोळे आसात आनी ती सर्गाची निसण आसून, सगळ्यो इत्सा पुराय करता अशी लोकांची धारणा आशिल्ली. नाटकाचें घर बांदून जातकच तातूंत सात दीस मेरेन गायो बांदून दवरच्यो अशें भरतान नाट्यशास्त्रांत सांगलां, शेतीचे नदरेन बैलाचीय खूब गरज आसता. तेखातीर लोक वर्सातल्यान थरावीक दिसा बैलांची पूजा करून तांच्यो मिरवणुको काडपाक लागले. बऱ्याच देवतांची वाहनां जनावरां आसात. दुर्गेचें वाहन शींव, इंद्राचें ऐरावत, शंकराचो नंदी, गणपतीचो हुंदीर, कार्तिकेयाचो मोर, विष्णुचो गरूड, लक्ष्मीचें घुबड, ब्रह्मदेवाचो हंस, अग्नीचो मेंढो, वाघेश्वरी देवीचो वाग अशीं वाहनां मानल्यात. ह्या देवतांच्या पूजेवांगडा वाहनांचीय पूजा करपाची चाल आसा. सोरपाची पूजा अशीच भारतभर करतात. हिंदू लोक मत्स्य (नुस्तें), कूर्म (कांसव) आनी वराह (दुकर) हे प्राणीय विष्णुचे अवतार अशें मानतात. आदिवासी जमातींनी विंगड विंगड प्राणी हे देवकां म्हणून मानल्यात. अशा प्राण्यांक ते लोक पुज्य मानतात आनी तांचें मास खायनात. अशे तरेन भारतांत सगळ्या थरांतले लोक पशुपूजा करतात. गोंयांत गोरवां पाडव्याक गोरवांची पूजा करतात. ज्या पशूची पूजा करप जाता त्या पशुची हत्त्या करिनात. दुसऱ्यान हत्त्या केली आसली तरी ताचें मास खायनात.

पवित्र मानिल्ल्या पशूंची खाणाखातीर हत्त्या करिनात आसले, तरी यज्ञवेदीर वा अतिमानवी शक्तीचे पुजे वेळार पशू बळी दिवपाची प्रथा वेदकाळासावन चलत आसा. देवाक वा अतिमानवी शक्तीचे पुजे वेळार पशू बळी दिवपाची प्रथा वेदकालासावन चलत आसा. देवाक वा अतिमानवी शक्तीक वश करून घेवपाच्या उद्देशान हो बळीविधी करतात. आजय गोंयांत तशेंच हेरकडेन विशेश करून दसऱ्याक, कोंबे, बोकडे सारकिल्या जनावरांचे बळी दिवप जाता. कांय वर्सां आदीं गोंयांत एक दोनकडेन, रेड्याचोय बळी दिवप जातालें. आतां ही प्रथा बंद जाल्या. कांयकडेन जनावरांचे बळी दिनात. देवाच्या नांवान जनावरां मेकळीं सोडटात.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : धेंडलो, बळी.

**पश्चिम :** (पळेयात दिका).

**पहाडी भास :** भारतीय भाशांचे पळोवणेंत ग्रीअर्सन हाणें इंडो आर्यन भाशाचोम्याचें जें वर्गीकरण केलां, तातूंतलोच एक भाशाचोमो. तो हिमालयाच्या पायथ्याच्या दोंगराळ वाठारांत पातळ्ळा. तेखातीर ताका 'पहाडी' म्हळ्यार दोंगराळ प्रदेशांतलो हें नांव मेळ्ळां. उदेंतेकडलो, मध्य भागांतलो आनी अस्तंतेकडलो अशे तांचे तीन पोटभेद केल्यात. हातूंत उदेंत – खसकुरा वा नेपाळी, पल्पा, मध्य-कुमाऊँनी, गढवाली, अस्तंत जौनसरी, सिरमौडी, बाघाटी, किउथाली, सतलजच्यो बोली, कुलूच्यो बोली, मंडीच्यो बोली, चंबाच्यो बोली, भद्रावतीच्यो बोली आनी हेर कांय बोलींचो आस्पाव जाता.

ही भाशा उलोवपी मूळचे खश लोक दरद जातीचे आसून ते हिमालयाचे अस्तंतेकडल्या वाठारांतल्यान सकयल देंवले आनी दुसरे वटेन राजस्थानांतल्यान आर्य वंशाचे लोक उत्तरेकडेन येवन खश लोकांक मेळ्ळे. ताका लागून त्या सगळ्या भाशांनी तिबेटी-ब्रह्मी, मुंडा आनी आर्य भाशांची भरसण जाल्ली दिसता.

ह्या भाशांतल्यो चडशो भाशा फकत बोली आसून तातूंत साहित्य तयार जाल्लेंना.

– कों. वि. सं. मं.

**पक्ष :** (पळेयात राजकीय पक्ष).

**पक्षाघात (पॅरालिसिस) :** तंत्रिका तंत्र (मज्जासंस्था) आनी स्नायू हांचे विकृतीमदीं स्नायूंचे काम करपाचे ताकींत इबाड जावन ते लुळे वा शक्तीहीन पडटात, ताकाच पक्षाघात अशें म्हण्टात. स्नायूंची काम करपाची तांक पुराय सोंपली जाल्यारूच पक्षाघात अशी संज्ञा वापरतात. कामाची तांक थोडे प्रमाणांत आसत जाल्यार 'अंशपक्षाघात' वा 'अंशाघात' ह्यो संज्ञा वापरतात. पक्षाघात हें पिडेचें लक्षण आसून तें कुडीचे आनी मनाचे दोश· अशे दोनूय तरांचे विकृतींत दिसून येता. देखीक – मेंदवांत रक्तस्त्राव जाल्यान दिसून येवपी पक्षाघात आनी हिस्टेरिया (उन्माद) हें मनाच्या दोशांचे विकृतींत दिसून येवपी पक्षाघात. हे नोंदींत कुडीच्या पक्षाघाता संबंदानच म्हायती दिल्या.

कुडीच्या पक्षाघाताचे विंगड विंगड प्रकार समजून घेवपाक पयले सुवातेर विकृती स्थानांविशीं म्हायती आसप गरजेचें आसा. तेखातीर स्नायूंची ऐच्छीक हालचाल ज्या विशिश्ट तंत्राचेर आदारून आसता त्या प्रेरक तंत्राची थोडेभितर म्हायती हांगा दिल्या.

**प्रेरकतंत्र आनी पक्षाघात :** प्रेरक तंत्रामदीं तंत्रिका तंत्राचे खाशेले भाग आनी ऐच्छीक स्नायूंचो आस्पाव जाता. स्नायूंचें काम जशें प्रत्यक्षांत दिसता तशें तंत्रिका तंत्राचें दिसना. कारण तें कुडीत भितरले सुवातेर आसून ताची रचनाय घुस्पागोंदळाची आसा. प्रेरक हालचालींचे स्नायूंमेरेन वचपी संदेश जंय निर्माण जातात, थंयसावन स्नायू मेरेन पावोवपी मार्ग दोन वाठारांनी विभागूंक येतात – १) उर्ध्वस्थ (Superior) आनी २) अध:स्थ (Inferior).

१) वयल्या पुराय विभागाक 'ऊर्ध्वस्थ प्रेरक तंत्रिका कोशिका-एकक' म्हण्टात. ताची सुरवात प्रमस्तिष्क गोलार्धातल्या प्रेरकक्षेत्रां सावन जाता. ह्यह्या क्षेत्रांतल्या तंत्रिका कोशिकापसून येवपी तंत्रिका/धागे (तंतू) बरेच लांब आसतात. तातूंतले कांय मस्तिष्क स्तंभातल्या प्रेरक केंद्राच्या पेशींलागी आनी उरिल्ले मेंरूरज्जूंतल्या वयल्या शृंगातले प्रेरक तंत्रिका पेशींलागीच सोंपतात. प्रेरक क्षेत्रांसावन येवपी हे तंतू सुरवेक एकमेकांसावन पैस आसलें, तरी सकल येतना लागीं येवन ताची चुडी जाता, हे चूडीक स्तूपमार्ग (Pyramidal tract) अशें म्हण्टात.

२) सकयल्या विभागाक 'अध्य:स्थ प्रेरक तंत्रिका-कोशिका एकक' म्हण्टात. मस्तिष्क स्तंभांतल्या प्रेरक केंद्रांतल्या (मस्तिष्क तंत्रिकांचे प्रेरक भाग सुरू जातात थंयसावन) कोशिकांसावन तशेंच मेरूरज्जूंचे

वयरसावन सकयलमेरेनच्या अग्र (मुखेल) शृंग भागांतल्या प्रेरक कोशिकांसावन भायर सरपी तंतू स्नायूंमेरेन गेल्ले आसतात. मेरूरज्जूंसावन येवपी तंतू मेरूरज्जू तंत्रिकासावन वतात आनी ते धड, हात, पांय हांच्या स्नायूंमेरेन पावतात. प्रेरक मस्तिष्क तंत्रिकातून जबडो, चेहरो, ताळू, ग्रसनी (ताळो) (Pharynx) आनी जीब हे भागांचे स्नायूंमेरेन तंतू वतात.

वयल्या वर्णनावयल्यान प्रेरक तंत्राचे तीन विभाग कल्पिल्ल्यांचें सहजतायेन लक्षांत येता - १) ऊर्ध्वस्थ प्रेरक तंत्रिका कोशिका-एकक २) अधःस्थ प्रेरक तंत्रिका-कोशिका-एकक आनी ३) स्नायू. अशे जरी तीन विभाग कल्पिल्ले आसले, तरी जें कितलेतरी रोगांमदीं पक्षाघात हें लक्षण आसता, ताच्या निदानाखातीर ही विभागणी उपेगाची थरल्या. अधःस्थ प्रेरक तंत्रिका-कोशिका-एककाचेर ऊर्ध्वस्थ प्रेरक तंत्रिका एककाचो, तशेंच स्तूप मार्गावयल्या तंत्रिका मार्गाचो प्रभाव पडत आसता. ताकालागून स्तूप मार्गावयल्या तंत्रिका मार्गाची विकृतताय जरी प्रत्यक्षरित्या पक्षाघाताक कारणीभूत थरना आसली तरी कांय प्रमाणान स्नायू दुबळे (अशक्त) जावपाक कारण थरतात. दरेक हालचाल जे खाशेल्या नाजूक आनी चुकीविणें कामांची मेळून जाल्ली आसता ताचेर मात वायट परिणाम जाता. हो वायट परिणाम अपसामान्य स्नायुंवयलो ताण वा कुडीची स्थिती, असंगतताय आनी कापरो हाचेवयल्यान दिसून येता.

रचनेचे नदरेन कुडीचे दोनूय वटांच्या सारक्या स्नायूंक तंत्रिकाची पुरवण करपी रस्तेच सामके सारकेच आसतात. दाव्या प्रमस्तिष्क गोलार्धातल्या प्रेरक क्षेत्रासावन येवपी तंत्रिका तंतू सकयल येतना लांब मज्जेमदीं उजवे वटेन आनी उजव्या गोलार्धांतलो तंतू तेच सुवातेर दावेवटेन वतना एकमेकांक हुंपतात. हाकाच 'प्रेरक व्यत्यास' वा 'स्तूप मार्ग व्यत्यास' अशें म्हण्टात. कांय आडवाद सोडल्यार अधःस्थ प्रेरक तंत्रिका-कोशिका-एकक जे वटे आसतात, तेच वटेनच्या स्नायूंक पुरवण करतात. ऊर्ध्वस्थ प्रेरक-तंत्रिका-कोशिका-एकक मात वयर उल्लेख केल्ल्या व्यत्यासाकलागून मेरूरज्जूंतल्या उरफाटे वटेनच्या अग्रशृंग प्रेरक कोशिकांकडे संबंदीत जातात. म्हणून व्यत्यासाच्या वयल्या वाठारांतले विकृतताये विरूद्ध वटेनचो पक्षाधात निर्माण जाता. मस्तिष्क स्तंभांतले कांय प्रेरक मस्तिष्क तंत्रिका केंद्राक दोनूय स्तूप मार्गांतले तंतू संबंदीत थरतात आनी हाकालागून चगळप,उलोवप आनी गिळप हीं महत्वाचीं कार्यां करपी स्नायूंची पुरवण द्विपार्श्विक (दोनूय वटांनी जावपी) आसता. मस्तिष्क तंत्रिकांचे विकृततायेक लागूनं जावपी कांय पक्षाघातांची म्हायती 'तंत्रिका तंत्र' हें नोंदीत दिल्या.

मस्तिष्क बाह्यकांत सुरू जावपी स्तूपमार्गांतले तंतू नीट मेरूरज्जूच्या सकयल्या तोंकामेरेन पावतात. तांची लांबाय बरीच आसता. ही तांची असादारण लांबाय तांकां बरेच खेपो विकृततायस्थान जावपाक कारण थरता. स्तूपमार्गाचे विकृततायेक लागून जावपी पक्षाघात मूळ विकृतताये सुवातेर आदारून आसता. देखीक - प्रमस्तिष्क भागाची विकृतताय दावे वटे आसल्यार 'उजवो अर्धांगघात' वा 'लकवो (उजवो हात, उजवें धड, उजवो पांय आनी चेऱ्याचे उजवे वटेनचो पक्षाघात) जाता. तरीय चगळप, उलोवप वा गिळप हीं मुखेल कामां वेवस्थित उरतात. दोनूय स्तूप मार्गांक विकृतताय जाल्यार (चडकरून लंबमज्जेच्या वयले पातळेर) द्विपार्श्विक अर्धांगघात जाता. तेभायर वयल्या क्रियांनीय इबाड घडटा.

दोनूय स्तूप मार्गांतले तंतू प्रमस्तिष्क गोलार्धातल्यान सकयल येतना एकमेकांसावन कांय अंतराचेर आसतात, पूण जेन्ना ते मस्तिष्क स्तंभ आनी मेरूरज्जू वाठारांत येतात, तेन्ना हें अंतर कमी जावन ते बरेच लागीं येतात. हाकालागून मेरूरज्जूंचो वयलो भाग वा मस्तिष्क स्तंभाच्यो विकृततायो दोनूय स्तूप मार्गांचेर परिणाम करून 'चतुरांगघात' जाता. मेरूरज्जूचो ग्रैव (मानेसारको) भाग सोडून ताचेसकयल्या भागांतल्यो विकृततायो 'अधरांगघात' (दोनूय पाय लागनाशे जावप) निर्मितात.

पक्षाघाताचो विस्तार आनी प्रसारक्षेत्र हाचेवयल्यान विकृतताय स्थानाचो अदमास करपाक जसो आदार जाता, तशीच हेर कांय लक्षणांय मदत करतात. देखीक - जेन्ना विकृतताय ऊर्ध्वस्त वाठारांत आसता, तेन्ना संबंदीत स्नायूंचो ताण वाडिल्ल्याचें आनी ताका लागून स्नायूंक कडकसाण येवन कंडरा-प्रतिक्षेपी क्रिया वाडिल्ल्याचें दिसून येता. हाचे उरफाटें विकृतताय सुवात अधःस्थ वाठारांत आसत तर स्नायूंवयलो ताण कमी जावन कंडरा-प्रतिक्षेपी क्रिया कमी प्रमाणांत वा अजिबात दिसना आनी स्नायू सैल पडटात. ह्या दोनूय तरांच्या पक्षाघातांक अनुक्रमान 'स्नायु-ताठरताययुक्त पक्षाघात' आनी 'शिक्षिल पक्षाघात' अशें म्हण्टात. हाचेभायर सैल पक्षाघातांत (१) स्नायूंची वायट पुश्टी वा अपक्षय आनी (२) उत्स्फूर्तपणान स्नायू कमी जावप (स्नायूंमदल्या ल्हानश्या स्नायुतंतूनी चुडयेंतल्यान आपसुक संकोच उत्पन्न करप) हीं लक्षणांय दिसून येतात. ऊर्ध्वस्थ वाठार आनी अधःस्थ वाठार हांच्या विकृततायेंतलो आनीक एक म्हत्वाचो फरक असो आसा. मुखेल तंत्रिका कोशिका अविकल आसल्यार अधःस्थ प्रेरक तंत्रिका वाठाराचे तंत्रिका तंतू पुनर्जननान पयली सारके जावंक शकतात. केंद्रीय तंत्रिका तंत्राभायले सगळ्या तरांचे तंत्रिका तंतू मागीर ते प्रेरक आसू वा संवेदी आसूं, ते पुनर्जननक्षम आसतात. फकत तांची उगमसुवात आशिल्ली तंत्रिका कोशिका जशाक तशी प्राकृत (सामान्य) अवस्थेंत आसूंक जाय, ऊर्ध्वस्थ वाठारांत अशी क्षमताय नाशिल्ल्यान ताच्या विकारांत जाल्लो पक्षाघात अपरावर्त्य म्हळ्यार सासणाचो जावन आसता. कोश्टकांत ह्या दोन वाठारांतल्या पक्षाघातांतलो फरक दाखयला.

**पक्षाघात हें लक्षण आशिल्ल्यो विकृततायो :** हे विकृततायेचे दोन मुखेल वर्ग केल्यात. १) तंत्रिका ऊतकात (सारकी रचना आनी कांय आशिल्या कोशिकांच्या चोम्यांत) वा स्नायू ऊतकात रचनात्मक बदल घडोवपी विकृततायो. २) तंत्रिका स्नायू कार्यांत चयापचयात्मक (कुडीन सारके जायत रावपी रासायनिक भौतिक घडणुकांक संबंदीत).

**इबाड करपी विकृततायो -**

| उर्ध्वस्थ प्रेरक तंत्रिका-कोशिका-एकक संबंदीत विकृततायो | अधःस्थ प्रेरक तंत्रिका-कोशिका एकक संबंदीत विकृततायो |
|---|---|
| १. स्नायू गटांचेर परिणाम जाता. ताकालागून पुराय कामांचेर परिणाम घडटा. | १. एकएकट्या स्वतंत्र स्नायूंचेर परिणाम जाता वा स्नायू चोम्याचेर परिणाम जाता. |
| २. स्नायूंचो अपकर्ष (ऱ्हास) वा अपक्षय मात्सो वा मात लेगीत नासता. | २. अपकर्ष वा अपक्षय हें मुखेल लक्षण आसता. सगळ्या विकृत स्नायूंमदल्या ७०% ते ८०% स्नायूंचेर वायट परिणाम जाता |
| ३. स्नायू कडक जावप मुखेल लक्षण आसता. | ३. स्नायू मोंव जातात म्हळ्यार सैल पडटात. |
| ४. कंडरा-प्रतिक्षेप वाडटा. | ४. कंडरा-प्रतिक्षेप कमी वा ना जाता. |
| ५. उत्स्फूर्तरितीन स्नायु-संकोच नासता. | ५. उत्स्फूर्त स्नायु-संकोच कमी जाल्ले दिसून येतात. |

| ६. रासायनिक विक्रियाजन्य (गॅल्व्हानिक) आनी प्रवर्तनजन्य (फॅराडिक) विद्युत् प्रवाहांक स्नायु प्रतिक्रिया मेळटा. | ६. प्रवर्तजन्य विद्युत् प्रवाहाक प्रतिक्रिया मेळना, पूण रासायनिक विक्रियाजन्य प्रवाहाक मेळटा. (अपकर्षजन्य प्रतिक्रिया). |
| --- | --- |

१. हें तरेच्या विकृततायेच्या कारणांमदीं एके वटेनच्या प्रमस्तिष्क गोलार्धांतल्या स्तूप मार्गाचें नुकसान हें मुखेल आनी सदाच दिसून येवपी कारण आसता. मेंदवांतल्या शिरांतलो रक्तस्त्राव, अंगर्कीलन (रगताची गुठली वा हेर कांय भायले पदार्थ रोहिणींत अचकित आडकल्ल्यान थंयचो रक्तप्रवाह बंद पडप) वा भितरल्या अंतर्क्लथनाक लागून रगत पुरवणेंत आडमेळ येता आनी ताकालागून अभिकोथ जावन उतकनाश जाता. ही विकृतताय इतली अचकित आनी एकदम जाता की, वायटकार कुराडीन घाय घाल्यार जसो कोसळटलो तसो कोसळटा, म्हणून ताका 'रगता घाती आघात' म्हण्टात. मस्तिष्कार्बुदाक लागुनूय (नव्या कोशिकांच्या खूब वाडीक लागून मेंदवांत तयार जाल्ल्या गाठींक लागुनूय ) अर्धांगघात जाता. पूण तो अचकित जायनासतना मात्सो मात्सो करून वाडपी आसता. खंयच्याय कारणावयल्यान जेन्ना उजव्या हातान सदांच काम करपी मनशामदीं दाव्या प्रमस्तिष्क गोलार्धांतल्या शीरांचे विकृततायेकलागून उजवे वटेनचो अर्धांगघात जाता तेन्ना चड करून वाग्विकृतीय दिसून येता, कित्याक तर अशा मनशांमदीं मेंदवांतलें वाचाकेंद्र विकृत कडेकच आसता.

'मस्तिष्क रोहिणी काठिण्य' आनी 'मस्तिष्क वाहिका उपदंश' ह्या रोगांनी द्विपार्श्विक अर्धांगघात जाता. स्नायु ताठरतायुक्त उभयांगघात ह्या अर्भकांमदीं दिसून येवपी विकृततायेत दोनूय पाय लुळे पडटात आनी ती मेंदवांतल्या जल्मजात विकृततायेक लागून वा बाळंतरा वेळार जावपी जखमेकलागून (चिमटो तकलेक लावन बाळंतर करतना) जाता. मेरूरज्जूंतल्या स्तूप मार्गाक रक्तवाहिन्यांची विकृतताय जावपाची शक्यताय बरीच उणी आसता. चड करून आघात, अस्थिविकृतताय वा अस्थिभंग आनी कशेरूक दंडाच्यो (फाटीच्या कण्याच्यो) संधी विकृतताय स्तूप मार्ग इबाडपाक कारणीभूत थरतात. हांचेभायर मेरूरज्जु-अर्बुदां मेरूरज्जुशोथ (मेरूरज्जूंची दाहयुक्त सूज), मारक पांडुरोगातलें मेरूरज्जूवयले वायट परिणाम हाकालागून पक्षाघात जाता. मध्यम वयांत वा म्हातारपणांत कशेरूक भुजाचे अपकर्षोत्पादक शोथाक लागून ग्रैव वाठारांतल्या अंतराकशेरूक बिंब (दोन मणक्यांमदलो चकती सारको भाग) फुडें सरकल्ल्यान मेरूरज्जूंचेर पेच पडून प्रगामी (मात्सो मात्सो वाडपी) स्नायू ताठरतायुक्त अधरांगघात जाता.

अधःस्त वाठाराच्या विकृततायेंमदीं सदांच दिसपी बालपक्षाघात (पोलिओ) आनी बहुतंत्रिकाशोथ (एकाच वेळार खूब तंत्रिकांचो शोथ जावप) हांचो आस्पाव जाता. बालपक्षाघातांमदीं स्नायू सैल पडप आनी स्नायू ना जावप हीं लक्षणां दिसतात. बेल पक्षाघात (चार्ल्स बेल ह्या स्कॉटिश शरिरक्रियाविज्ञाच्या नांवावयल्यान वळखुपांत येवपी पक्षाघात) हें विकृततायेंत आनन् तंत्रिकेच्या शोथाक लागून चेऱ्याचे एके वटेनचे स्नायू लुळे पडटात (तंत्रिका तंत्र). 'स्नायु-अपकर्षयुक्त पार्श्वपथ काठिण्य' हे केन्नाय चुकून दिसून येवपी कारणां खबर नाशिल्ल्या विकृततायेतूच पक्षाघात जाता.

मूळ विकृतताय स्थान स्नायू आशिल्ले विकृततायेचें प्रमाण बरेंच कमी आसता. हातूंत मुखेल करून 'प्रगामी स्नायु-कश्टपोषण' हे विकृततायेचो उल्लेख करचोच लागतलो. ही विकृतताय कुटुंबीक आनी आनुवांशिक तरेची आसून दोनूय वटांच्या स्नायूंक अशक्तताय येवन स्नायू ना जातात. चड करून भुरगेपणांत वा तरणेपणांत सुरू जावपी ही विकृतताय दादले आनी बायलांमदीं सारक्याच प्रमाणांत मेळटा. 'प्रगामी स्नायु-अपकर्ष' ही विकृतताय प्रेरक तंत्रिका कोशिका एकक विकृततायेक लागून जाता. ह्यो दोनूय विकृततायो विंगड विंगड आसून कश्टपोशणान उत्स्फुर्तपणान स्नायू संकोच केन्नाच दिसून येना. स्नायू विकृतताय सुवात आशिल्ल्याचें निदान विद्युत् स्नायु आलेख वा स्नायू जीवोतक (जीवे कुडींतल्यान घेतिल्ल्या ऊतकाची) परीक्षा करून थरोवपाक जाता.

२. तंत्रिका ऊतकांत वा स्नायू उतकांत चयापचयात्मक इबाड करपी विकृततायेमदीं अंतःस्त्रावी ग्रंथीच्यो विकृततायो कांय विखबादा आनी खूब चयापचयात्मक दोश हांचो आस्पाव जाता. अवटुस्त्रावाधिक्य (अवटु ग्रंथी), अधिवृक्क ग्रंथींचों 'कुशिंग लक्षण चोमो' (चरबी वाडप, साकर वाडप) आदी लक्षणां आशिल्ल्यो विकृततायो आनी ॲडिसन रोग ह्यो विकृततायो अंतस्त्रावी ग्रंथीच्या विकृततायेमदीं आस्पावतात. (अधिवृक्क ग्रंथी, ॲडिसन रोग).

विखबादेंत 'कुपीजंतू विखबादा' (एकेतरेची अन्नांतल्यान जावपी विखबादा), कांय सोरपांची विखबादा आनी गोचीड पक्षाघात (स्त्रीलिंगी गोचीड जे वीख उत्पन्न करतात, त्या विखासावन जावपी पक्षाघात) हांचो आस्पाव जाता. गंभीर स्नायूंचें दुबळेपण ह्या विकारांत चयापचयात्मक विकृततायो पक्षाघाताक कारणीभूत थरतात. ताचे सारके कारण आजून कळिल्लें नासून यौवनलोपी ग्रंथी हें विकृततायेकडेन संबंदित आसूंये. प्रेरक तंत्रिकेच्या स्नायूंतल्या निमाणेकडेनच्या पोतांकडल्या वाठारांत (अंत्यपट्टात) ही विकृतताय रासायनिक इबाड करता.

**पक्षाघाताची वर्गवारी :** पक्षाघात हें एक लक्षण आसून ताची वर्गवारी विंगड विंगड तरांनी करूंक मेळटा –

अ) तंत्रिका तंत्राचो जो भाग पिडेस्त आसता तेप्रमाण देखीक - मस्तिष्क पक्षाघात, मेरूरज्जू पक्षाघात आदी.

आ) कुडीच्या भागांप्रमाण - १) एकांग पक्षाघात - एक हात वा एक पांय लुळो पडप, २) अर्धांगघात - एकेच वटेनचो हात वा पांय लुळो पडप, ३) अधरांगघात - कमरेसकयलो भाग आनी दोनूय पांय लुळे पडप, ४) सर्वांग पक्षाघात - दोनूय हात, दोनूय पांय आनी धड लुळें पडप, ५) चतुरांग पक्षाघात - दोनूय हात आनी दोनूय पांय लुळे पडप.

(इ) पक्षाघात स्वरूपाप्रमाण - १) पुराय आनी अपूर्ण पक्षाघात, २) स्थायी आनी अस्थायी पक्षाघात ३) थळावो वा विस्तृत पक्षाघात ४) व्यतस्त वा अव्यत्यस्त पक्षाघात.

(ई) पक्षाघात ज्या वेगान जाता, ते प्रमाण - १) अचकित पक्षाघात २) प्रगामी पक्षाघात (इल्लो इल्लो जावपी).

**कांय खाशेले प्रकार :**

ऊर्ध्वगामी पक्षाघात वा लांद्री पक्षाघात - (फ्रँच शरीरक्रियाविज्ञ जे. बी. ओ. लांद्री हाच्या नांवान वळखुपांत येवपी पक्षाघात). हे विकृततायेचें खरें कारण आजून कळिल्लें नासून पयली पांय, उपरांत हात आनी निमाणेकडेन धड ह्या क्रमान स्नायू लुळे पडटात. हे विकृततायेक 'तीव्र संक्रामणजन्य बहुतंत्रिका शोथ' वा 'गीयाँ-बॅरे' (जी. गीयाँ आनी जे. ए.

बॅरे ह्या फ्रँच तंत्रिकाविज्ञानिकाच्या नांवावेल्यान) लक्षणचोमो अशींय नांवां आसात. गंभीर श्वसनक्रिया पक्षाघाताचो धोको टळल्यार रोगी पुराय बरो जाता.

**सकंप पक्षाघात वा पार्किनसन रोग** - (जेम्स पार्किनसन ह्या शरीरक्रियाविज्ञानिकाच्या नांवावयल्यान वळखुपांत येवपी रोग). देंवते पिरायेंत पन्नाशी ते सत्तरीचे दरम्यान जावपी हें विकृततायेचें कारण आजून कळूंक ना, बायलांपरस हाचें दादल्यांमदीं प्रमाण दोट्टी आसता. स्नायू घट्ट जावप आनी कापरो सुटप (कडकडो सुटप) हीं मुखेल लक्षणां आशिल्ले हे विकृततायेची सुवात स्तूप मार्गांतलें) काम इबाडप हें आसता. १० ते १५ वर्सां इल्ली इल्ली वाडत वचपी ही विकृतताय हालीं तेंपार मेंदवावयल्या खाशेल्या शस्त्रक्रियांक लागून बरीचशी सहन करपाक जावपी थरल्या. 'लिव्होडोपा' नांवाचें वखद ह्या रोगाचेर गुणकारी थरलां (कंपवात).

**बालपक्षाघात (पोलिओ)** - सादारण भाशेंत 'पोलिओ' ह्या नांवान वळखुपांत येवपी ही विकृतताय व्हायरसांतल्यान जाता. मेरूरज्जूंतले अग्रशृंग भागांतल्या तंत्रिका पेशींचे हे व्हायरसाक खास आकर्शण आसता, अशेंय दिसून आयलां. विकृतताये सुवाती प्रमाण पक्षाघात जाता (बालपक्षाघात).

**आनन (तोंड) पक्षाघात** - चेऱ्याचे भाव दाखोवपी स्नायूंच्या ह्या पक्षाघाताच्यो दोन तरा आसात - अधिकेंद्रकीय आनी अवकेंद्रकीय. हाचेपैकी अवकेंद्रकीय प्रकाराक बेल पक्षाघात म्हण्टात (तंत्रिका तंत्र).

**लंबमज्ज्ञा पक्षाघात** - गिळप, उलोवप, चगळप ह्यो क्रिया वयल्या विकृततायेप्रमाणाच अशक्य जातात. पूण हांगा विकृतताय सुवात लंब मज्ज्ञा नासून दोनूय प्रमस्तिष्क गोलार्धांतल्या योग्य सुवातेर आसता.

**टॉड पक्षाघात** - आर. बी. टॉड ह्या इंग्रज शरीरक्रियाविज्ञानिकाच्या नांवान वळखुपांत येवपी पक्षाघात) जॅक्सन अपस्माराचें (जे. एच. जॅक्सन ह्या इंग्लीश तंत्रिकाविज्ञानिकाच्या नांवान वळखुपांत येवपी अपस्माराचे) झटक्या उपरांत थोडो वेळ तिगपी स्नायू दुबळे करपी पक्षाघात (अपस्मार).

**आवर्ती पक्षाघात** - ही विकृतताय आनुवांशिक आसून एकाच कुटुंबांतल्या कांय मनशांमदीं ती जाता. स्नायू दुबळे जावपाचे, परत परत येवपी झटके आनी ते उपरांत पयली सारकी जावपी स्नायूंची शक्त हें ह्या विकृततायेचें खाशेलपण आसता.

स्नायू अशक्त जावपा वांगडा रक्तरसातलें पोटॅशियमाचें नित्याचें प्रमाण वाडिल्लें वा कमी जाल्लें दिसून येता. पूण चडशा जीव रासायनीक अभ्यासा उपरांत लेगीत विकृततायेचें निश्चित कारण कळूंक शकना.

**बाळंतरा वेळचो पक्षाघात** - बाळंतरा वेळार आडखळ उप्रासल्यार बायलेची बेगीन सुटका करपाखातीर अर्भकाक कृत्रिम उपाय करून भायर काडचें पडटा, अशा वेळार कांय तंत्रिकांक वा मेंदवाक घाय जावन पक्षाघात जावंक शकता. देखीक - अर्भकाच्या चेऱ्यार लायिल्ल्या चिमट्याचो आनन (तोंड) तंत्रिकेर पेच पडून जावपी आनन पक्षाघात वा प्रमस्तिष्क घाय जावन जावपी मस्तिष्क पक्षाघात.

**फलानुमान** - पक्षाघाताचें फलानुमान मूळ कारणाचेर आदारून आसता. मेंदवांतल्या शिरांनी रक्तक्लथन (रगत गोठेवन ताची गुठली तयार जावप) जाल्यार ज्या वाठारांत आनी ज्या प्रमाणांत विकृतताय जाल्ली आसता ताचेर साध्यासाध्य विचार आदारलेलें आसता. दुयेंतीन पीडेची तीव्रावस्था हुपल्या उपरांत एक दोन म्हयन्यांनी स्नायूंची कार्यशक्त कांय प्रमाणांत परत येता. चड करून पुराय कार्यशक्त पयली सारकी जायना. टॉड पक्षाघात पुराय तरेन बरो जाता. बेल पक्षाघात चड करून ३ ते ६ म्हयन्यांत पुराय बरो जाता. अर्भतकांतलो मस्तिष्क (मेंदू) पक्षाघात चड करून मेंदवांतले जल्माराावन विकृततायजन्य आसल्यार तो कायम स्वरूपाचो आसता. मेंदवांतलीं आनी मेरूरज्जूंतलीं कांय अर्बुदां ९नव्या पेशींच्या चड वाडीन निर्माण जाल्ल्यो गाठी) शस्त्रक्रियेन बरीं जातात. ताका लागून तज्जन्य पक्षाघातूय बरो जाता. सकंप पक्षाघात मात्शी मात्शी वाडत वचपी विकृतताय आसून उपाय चालू आसा मेरेन ताब्यांत रावंक शकता. मस्तिष्क शोथ आनी परिमस्तिष्क जोर हाका लागून जावपी पक्षाघाताचें फळानुमान थरावीक तरेचें आसता.

सादारणपणान ज्या स्नायूंचो बारीक आनी कुशळताय पूर्ण कामाखातीर उपेग जाता (देखीक - बरोवप, उलोवप आदी). ते स्नायू पयलीं सारके न जाता तांचे कार्यशीलतेंत थोडेभोव कमीपण उरतात. हाता पांयांचे व्हड स्नायू चड करून पुराय तरेन पयलीं सारके जातात. पांयांच्या स्नायूंची सुदारणा हातांच्या स्नायूंपरस अदीक बेगीन आनी बरे तरेन जाता. योग्य उपाय येवजण जाली ना जाल्यार स्नायूंचें अवकुंचन जावन पांगळेपणय येता. स्नायूंची कार्यशक्त पुरायतरेन परत न येवनूय आदाराचेर चलपाची बी क्रिया करूंक जाता. फासळ्यांचे स्नायू आनी मध्यपटल (छाती आनी पोट हांका वेगळावपी स्नायूमय पटल) हांचो पक्षाघात श्वसनक्रियेंत व्हड आडखळ हाडून जीव घेवंकय शकता.

**चिकित्सा** - पक्षाघाताचें कारण सोदून ते प्रमाण उपाय करतात. स्नायूंची अवशिश्ट कार्यक्षमताय उपेगांत हाडून अपंगुळपण कमी करपाक भौतिकी चिकित्साय, वेवसाय प्रधान चिकित्साय आनी वाक चिकित्साय हांचो आदार जाता. मेंदवांतल्यो वा मेरूरज्जूंतल्यो तंत्रिका उतकनाश व्हड प्रमाणाचेर जाल्लो आसल्यार हे सगळे उपचार कितले उपेगाचे थरतले हाचो अदमास घेवप गरजेचें आसता. विकृतताय सुवात आनी स्नायूवयले परिणाम हांचेर चिकित्सायेचें स्वरूप आदारून आसता.

विकाराचे तीव्रावस्थेंत स्नायूंक पुराय विसव दिवप गरजेचें आसता. तेखातीर स्नायू गरज पडल्यार योग्य तीं साधनां (देखीक - सरकल्ले वा हालचाल करपी कुडीचे भाग योग्य स्थीतींत दवरपी घट्ट वा लवचिक साधन म्हळ्यार बेधफलक आदी) वापरून बांदून दवरचें लागता. अवयव खाशेल्या कूड स्थीतींत उरचें म्हणून हातरूणांतूय रेंव भरिल्ल्यो पिशव्यो वापरूंक येतात. उपशमावस्थेंत आनी शक्य तितके बेगीन स्नायूंच्या अकारक हालचालींक सुरूवात करतात. तांची क्रियाशक्त जागी जावंक लागताच क्रियाशील हालचाली करून घेतात. ह्यो हालचाली मातशो मातशो वाडपी प्रतिका विरूद्ध वजनां, स्प्रिंगो आदीचो उपेग करून करतात. सामके अशक्त स्नायूंक आदार दितात. स्नायूंची हालचाल दीसपट्टी करप गरजेचें आसून ह्या कार्याचेर भौतिकी चिकित्सा तज्ञांची नदर आसची पडटा. वेवसाय प्रधान चिकित्सायेचो जीणेंतली उत्सुकताय तिगोवपाक आनी फुडाराचें जीणेंत अर्थोत्पादन करपाक उपेग जाता.

खाशेल्या प्रसंगावेळार शस्त्रक्रिया उपेगी जाता. देखीक - कशेरूक अस्थिभंग, मेंदवाचेर पेच पडपी रगत स्त्रावजन्य क्लथ आदी जाय तेन्ना विकलांग चिकित्सायेवयल्यान स्नायु-प्रतिरोपण, कृत्रिम भाग बसोवप आनी संधिस्थिरीकरण ह्यो शस्त्रक्रिया उपेगी थरतात.

अधरांग पक्षाघातांत शय्याव्रण (बरोच तेप हातरूणार न्हीदून रावचे पडलेल्यान जावपी घायें), मूत्राशयशोथ, मलावरोध, स्नायु-अवकुंचन ह्या सारके उपद्रव जावपाची शक्तताय आसता. योग्य अशा प्रतिबंधात्मक

उपायांनी ते टाळू येतात. श्वसनक्रियेचे स्नायू लुळे पडल्यार खास उपकरणां वापरून श्वसनक्रिया चालू दवरू येता.

हाली कडल्या संशोधना प्रमाण रगताघाती आघातामदलें ७८% आघात शिरांतल्या रक्तक्लथन वा अंतर्कीलनजन्य आशिल्ल्याचें दिसून आयलां. मेंदवाचें रगत पुरवणेन ताका लागून जावपी आडखळ नव्या सुक्ष्मवाहिनी शस्त्रक्रिया तंत्रान पैस करप शक्य जालां. तेखातीर सुक्ष्म उपकरणां, देखीक - २ मिमी. लांबायेची सूय आनी २० मायक्रॉन (१ मायक्रॉन = $१०^{-३}$ मिमी.) व्यासाचो धागो तशेंच खासा तयार केल्ले शस्त्रक्रियेक उपेगाक पडपी दोन दोळ्यांच्या सुक्ष्मदर्शकाचो उपेग करतात.

**आयुर्वेदीय चिकित्सा** - पक्षाघात म्हळ्यार कुडीचो सगळो वा पुराय भाग लुळो पडप. हाका अर्धांगवात अशेंय म्हण्टात. असल्या वायटकाराक पयले सुवातेर नारायण तेल, चंदनबलादि तेल आदी, स्नेह पिवपाक दिवन, घाम काडून मोव विरेचन दिवचें. तशेंच स्नेह बस्ती आनी रेचक बस्ती दिवन कुडीची शुद्धी करची. हाचेर आक्षेपक विकाराचे (आक्षेपी विकार) सगळे उपचार करचे. हाचेभायर वातनाशक तेलाची तकलेक बस्ती दिवची. अणुतेलाचें अभ्यंग करचें. सालवणादि वखदांचे पोटिस करून सगळी कूड शेकीत रावचें. बला तेलाची स्नेह बस्ती दिवची. हें प्रमाण ३-४ म्हयने सतत उपचार करचे.

- कों. वि. सं. मं.

**पॅंग्विन** : एक सुकणें. स्फेनिसिडी ह्या पक्षिकुळांत ताचो आस्पाव जाता. स्फेनिसिंडी कुळांत ६ वंश आनी १७ जाती आसात. हातूंतल्या ॲप्टेनोडायटिस ह्या वंशांतल्यो दोन जाती 'किंग पॅंग्विन' ह्यो चड प्रसिद्ध आसात. एपरंर पॅंग्विन हो सगळ्यांत व्हड आसता. दर्या आनी दर्याचे वेळेर हे पॅंग्विन रावतात. दक्षीण ध्रुवी आनी उपदक्षीण ध्रुवीय प्रदेशांनी रावपी हीं सुकणीं गालॅपागस जुंव्यांमेरेन दिसतात.

पॅंग्विनाचे सगळे कुडीक खवळांभाशेन पांखां आसतात. पॅंग्विनाची उंचाय सुमार ४०-१२० सेंमी. आसता. चड करून सगळ्या जातींत पॅंग्विनांचे हड्डें, पाट धव्या रंगाचें आनी फाट काळी वा निळशी आसता. विंगड विंगड जातींतल्या पॅंग्विनाच्यो चोंची मात विंगड विंगड आकाराच्यो आनी लांबायेच्यो आसतात. लांब, बारीक तशीच आंखूड आनी भक्कम आकाराचे चोंचीचेय पॅंग्विन आसतात. पॅंग्विनाचे पांय आंखूड आनी दाट आसून कुडीचे फाटले वटेन आसतात. फुडलीं तीन बोटां पातळ कातीन जोडिल्लीं आसतात. शेंपडी आंखूड तशीच ल्हान पूण ताठ पांखांची आसता. तांकां अशीर, लांबशे पूण बळिश्ट अशे पांखाटे आसतात. ते दोडूक येनात. तांचेरूय खवळांभाशेन पाखां आसतात. विंगड विंगड जातींतल्या पॅंग्विनांभितर तकल्यो, मानो विंगड विंगड तरांच्यो आसतात. कांय पॅंग्विनांच्या माथ्यार दोनूय वटांनी पिसांचे तुरे आसतात.

पॅंग्विनाचो आवाज घोगरो, कर्कश आनी मोटो आसता. तो नुस्तें, माखली आनी झिंग्याभाशेन क्रस्टेशियन म्हळ्यार कवचां आशिल्ले प्राणी खावन पोट भरतात. सगळ्या जातींचे पॅंग्विन थव्यांनी रावतात. ते उडूंक शकनात. पूण आपल्या पांखांचो व्हल्या भाशेन उपेग करून नेटान पेंवतात. तो उदका पोंदच्यान पेंवता आनी श्वास घेवपाखातीर तकली उदकांतल्यान भायर काडटा. उदकांतल्यान कितलेय मीटर लांब मेरेन तो उडकी घेवंक शकता. जमनीचेर तो मनशाभाशेन ताठ उबो रावता. कांय जातींचे पॅंग्विन आडखळत वा सवकास चलतात. जाल्यार कांय जातींचे पॅंग्विन नेटान धांवतात.

पॅंग्विन खूब वर्सां जियेता. ताचो नर आनी मादयेचो जाडो जल्मभर तिगता. वियेंवपाच्या काळांत हजारांनी पॅंग्विन एकठांय येवन वसणूक करून रावतात. कांय जातींच्यो पॅंग्विन मादयो एकूच तांतीं घालतात जाल्यार कांय जातींतले पॅंग्विन दोन तांतयां घालतात. चड करून तांतयां उकते जमनीचेर घालतात. एकूच तांती घालपी मादी पॅंग्विन आपलीं पावलां आनी पावलांच्या लागसारचो पोटाचो भाग हांचेमदीं दामून धरून उबयता. तांती उबोवपाच्या काळांत नर आनी मादी उपाशीं रावतात. एंपरर पॅंग्विन तीन म्हयने उपास करतात.



तांतयांतल्यान भायर येतकच व्हड जायमेरेन तेच सुवातेर आवयच्या पोटाक दसून रावता. पिलाच्या आंगाचेर काळ्या मोव पांखांचे दाट आवरण आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**पॅगोडा** : पवित्र बौध्द धर्मीय वास्तुप्रकार. ह्यो वास्तू चड करून आशिया खंडांत दिश्टी पडटात. बुध्दाच्या आनी बौध्द भिक्षूंच्या अवशेशांचें यादस्तीक म्हणून ह्यो स्मारक वास्तू बांदल्यात. पॅगोडा वा पागोडा हें उतर मुळांत 'पागुडम् (अर्पित वा देणगी) ह्या तमीळ उतरावयल्यान आयलं आसूंक जाय. श्रीलंकेंत 'डागोबा' ही सिंहली भाशेंत संज्ञा रूढ आसा. पॅगोडाचो उगम पुर्विल्ल्या भारतीय स्तुपांतल्यान जाला आसुंये. पयल्या कनिष्काच्या काळांत (इ. स. दुसरें शतमान) पेशावराक बुध्दाच्या अवशेशांचेर जायत्या माळ्यांची मनोरे नासतना लांकडी वास्तू बांदली. हातूंतल्यानच प्रेरणा घेवन चीन, जपान, कोरिया, ब्रह्मदेश (मियानमार) आदीकडेन पॅगोडा तयार जाले आसूंक जाय. हाचे बांदावळीक विटो, फातर आनी लांकूड हांचो वापर करतात. वाटकुळो, चवकोनी, पंचकोनी, शटकोनी वा अश्टकोनी हातूंतल्या एका आकाराचे बुन्यादीचेर त्याच आकारांत वयर मेरेन चडयत व्हेल्ले आनी अशीर जायत गेल्ले माळे आनी ताचेर कळस हे प्रमाण ताचे जायते रचनाबंध दिश्टी पडटात. दरेके माळयेक फुडें येवपी पाखें आसता. चीनी पॅगोडे पुर्विल्ले आसून तांची वास्तूशैली इ. स. ५०० च्या आदींसावन विकसीत जाल्ली. ताचेर भारतीय आनी ॲसिरियी देवळांचे वास्तुशैलीचो प्रभाव दिसता. चीनी पॅगोडे चड करून णव माळयांचे वा ताचेपरसूय ऊंच आसून अश्टकोनाकृती बुन्यादीचेर उबारिल्ले आसताले. नानकिंग नगरांतलो 'पॉर्सलिन टावर' हो चीनांतलो एक उल्लेख करपासारको पॅगोडा. हो चकचकपी पॅगोडा णव माळयांचो आसून सुमार ७९.२५ मी. ऊंच आशिल्लो. तो पंदराव्या शतमानांत बांदिल्लो पूण १८५० च्या सुमाराक तो नश्ट जालो. ताच्यो विटांच्यो वण्टी चीनी मातयेच्या नाजूक रंगीत फरशांनी नटयल्ल्यो

आशिल्ल्यो. चवकोनी बुन्यादीचेर बांदिल्लो तेरा माळयांचो विटांचो पॅगोडा (सातवे शतमान) हो चीनांतलो एक खूब उच्च असो पॅगोडा आशिल्लो. ब्रह्मदेशांतल्यो रंगूनांतलो 'श्वे डागोन' हो संवसारीक नामनेचो सगळ्यांत ऊंच (सुमार ११२.१८ मी.) पॅगोडा. तो खूब पुर्विल्लो आसून इ. स. आदीं ५८८त तो बांदला अशें मानतात. ताचो आकार एके व्हड घांटीवरी आशिल्लो आनी ताचेर भांगराचो मुलामो चडयल्लो. चीनी धर्तीचेच जपानांत जायत्या लाकडी पॅगोडांची रचना जाल्ली दिश्टी पडटा. तातूंतले कांय पॅगोडे अजुनूय पळोवंक मेळटात. तातूंतलो एक सातव्या शतमानांतलो चौखण बुन्यादीवयलो पांच माळयांचो पॅगोडा होन्शू जुंव्यावयल्या होर्यूजी नगरांत आसा. मुळांत पॅगोडा हो विश्वरचणुकेचो प्रतीकरूप वास्तुकल्प म्हणून अवतरलो. पॅगोडाचे वास्तुरचणुकेच्या गाभ्याकडेन आशिल्लो. व्हड खांबो हो सर्ग-धर्तरेचें मध्य सादपी अदृश्य विश्वअक्षाचें प्रतीक मानताले. जपानांत लांकडी पॅगोडाच्या कोनशावयले चार खांबे हे मळबाचे खांबे अशें अजुनूय समजतात. ही संवसारीक रचणुकेची वास्तुशिल्पीय प्रतीकृती तातूंत जतनाय करून दवरिल्ल्या पवित्र अवशेशांक लागून सजीव जाता असो समज आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पॅराग्वाय :** (रिपुब्लीक द पॅराग्वाय) दक्षीण अमेरिका खंडाच्या मध्य भागार आशिल्लो एक प्रजासत्ताक देश. अक्षवृत्तीय विस्तार १९° १७′ दक्षीण ते २७° ३०′ दक्षीण आनी रेखावृत्तीय विस्तार ५४°३०′ अस्तंत ते ६२°३०″ अस्तंत. क्षेत्रफळ ४,०६,७५२ चौ.किमी. लोकसंख्या ४,६६०,०००. देशाचे उत्तरेक ब्राझील आनी बोलिव्हिया, दक्षीणेक आर्जेंटिना, उदेंतेक ब्राझील आनी आर्जेंटिना आनी अस्तंतेक आर्जेंटिना आनी बोलिव्हिया देश आसात. देशांतल्यान व्हांवपी व्हड पॅराग्वाय न्हंयेवयल्यान त्या देशाक पॅराग्वाय हें नांव मेळ्ळें.

**भूंयवर्णन –** देशाचो खूबसो भाग चड उंचायेचो आसून तो ब्राझीलाच्या सड्याचोच एक वांटो. तो सडो ट्रायासिक कालखंडांतल्या सॅंडस्टोन आनी बॅसाल्ट तळपांसावन तयार जाला. देशाचो ईशान्येकडलो भाग सगळ्यांत ऊंच आसून ताची उंचाय सुमार ६०० मी. इतली आसा. त्या भागांत पाराना न्हंयेच्या फांट्यांनी तयार केल्लीं कांय खोल देगणां आसात. देशाचो अस्तंतेकडचो प्रदेश सपाट आसून ताका 'ग्रान चाको' म्हण्टात. पॅराग्वाय न्हंय देशाच्या मध्याकसावन व्हांवता देशांत ल्हान-व्हड अशो साबार न्हंयो आसून, देशाच्यो सुमार ८०% शिमो न्हंयांनीच तयार केल्यात. पॅराग्वाय, पाराना, आपा, आल्तो पाराना आनी पिल्कोमायो न्हंयांनी देशाची शीम तयार केल्या.

**हवामान –** देशाचो उत्तरेकडचो भाग चड उंचायेचो आशिल्ल्यान देशाच्या तापमानांत आनी पावसाच्या प्रमाणांत थोडोभोव फरक जाणवता. शियाळ्यांत उत्तरेकडचें सरासरी तापमान २०° सॅ. जाल्यार दक्षीणेकडेन तें ३०° सॅ. इतलें आसता, गिमांत (ऑक्टोबर ते मार्च) तापमान ३२° ते ३५° सॅ. मेरेन चडटा. देशाच्या ईशान्य भागांत पावसाचें वर्सुकी प्रमाण २०० सेंमी. इतलें आसता. अस्तंतेकडेन पावसाचें प्रमाण उणें उणें जायत वता. पॅराग्वाय न्हंयेच्या देगणांनी १२० सेंमी. पावस पडटा जाल्यार ग्रान चाकोच्या देगणांनी फकत ५० ते ७० सेंमी. इतलो पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात –** देशाची सुमार ५४% भूंय रानांसकयल आसा. देशाचे उदेंतेक घट लाकडांचीं आनी सिडार रुखांचीं दाट रानां पातळ्ळ्यांत. ताड, तूंग आनी तेल मेळपी हेर रुखावळ थंय मेळटा. चाको वाठारांतल्या रानांनी कांट्यांचीं दाट झोंपां आसात. अस्तंतेकडच्या रानांनी पानझडी रुखावळ खूब प्रमाणांत आसात. चड पावस पडटा त्या वाठारांनी सदा पाचवी उरपी दाट रुखावळ मेळटा. रानांनी वेगवेगळ्या प्रकारांचे वानर तशेंच टॅपिर, जॅगुआर, रानदुकर, आर्मडिलो मेळटात. कॉइपू हो उदकांत रावपी हुंदिरूय थंय मेळटा. मस्कव्ही बदकां, कॅपिबारा, आयबिस, हेरन, टूकान, होले, पोपट आनी हेर तरेकवार सवणीं देशांत मेळटात.

**इतिहास –** युरोपी वसणूक त्या प्रदेशांत पावचे पयलीं थंय 'ग्वारानी' रॅड इंडियन लोकांचो राबितो आशिल्लो. ते लोक हेडपी आशिल्ले. शिकार, शेतवड, रानफळां पुंजावप आनी नुस्तें मारप हो तांचो मुखेल वेवसाय आशिल्लो. सोळाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक स्पेनी आनी पुर्तुगेज शोधक पेरू देशांत सांपडिल्ल्या रुप्या आनी भांगरा खाणींकडेन बेगीन पावपाची आडवाट सोदून काडपाच्या निमतान थंय पावले. १५३७ त जुआन द आयोला ह्या स्पेनी भोंवडेकारान पाराना आनी पॅराग्वाय न्हंयेंचे उत्तरेकडेन प्रवास करून, सद्या आसुंसियोन नांवान प्रसिद्द आशिल्ल्या भागांत पावलो. थंय आपल्या कांय वांगड्याक दवरून तो च्याको प्रदेशांत गेलो. फाटल्यान दवरिल्ल्या ताज्या वांगड्यांनी आसुंसियोन वाठारांत एक ल्हानसो किल्लो उबारलो. उपरांत दुमिन्गो मार्टेनीझ द इराल हाच्या फुडारपणाखाला स्पेनी लोकांनी वसणूक केल्लें आसुंसियोन हें दक्षीण अमेरिकेंतलें पयलें स्पेनी शार थरलें. मुखार त्या शारांतल्यानूच सांताफे आनी बुयेनॉस आयटीस शारांची स्थापणूक केली. सुर्वेच्या काळांत, दक्षीण अमेरिका खंडांतल्या हेर स्पेनी वसणुकांचें आसूंतियोन शार हेंच मुखेल केंद्र आशिल्लें.

पंदराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक सावन ग्रान च्यालो प्रदेशांतल्या कांय मागाशिल्ल्या वर्गाच्या जमातींनी ग्वारानी लोकांचेर साबार घुरयो घालून तांकां सतावन सोडिल्ले. पूण युरोपी लोक एकठांय येवन त्या जमातींकडेन झगडपाक लागले. हाका लागून पॅराग्वाय देशांतल्या इंडियन लोकांचे आनी युरोपी लोकांचे संबंद सादारणपणान बरे उरले. अमेरिकेंतल्या हेर प्रदेशांतल्या रॅड इंडियन लोकांनी युरोपी लोकांक विरोध केल्ल्यान, गोऱ्या लोकांनी इंडियन लोकांचो वंशूच लागीं लागीं काबार केलो. पाराग्वाय देशांत ग्वारानी इंडियन लोकांक जे मिशनरींचोय तेंको मेळिल्ल्यान तांचो वंश तिगून उरलो.

सोळाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक जेझुईत मिशनरींनी थळाव्या ग्वारानी इंडियन लोकांक बाटोवपाक सुरवात केली. रोमी कॅथलीक धर्माचो प्रसार करचे खातीर आनी पॅराग्वाय देशांत आपलो शेक बसोवपा खातीर जेझुईत पाद्रींनी ग्वारानी इंडियन लोकांक रेडुसिओनेस संस्थेखाला एकठांय हाडले. जेझुईतांनी तांकां वीणकाम, मेस्तपण, नक्षीकाम आनी हेर वावर शिकयलो. जेझुईतांचे देखरेखीखाला चडशे ग्वारानी लोक शेतवड वा गोरवां राखपाचो वावर करपाक लागले. त्या बदलाक तांकां जेवण, लुगट आनी हेर वस्तू मेळपाक लागल्यो. कांय काळा उपरांत रेडुसिओनेस संस्था खूब भरभराटीक आयली. त्यो हेर देशांक कापूस, तंबाकू, चामडें आनी लाकडाची खूब प्रमाणांत निर्यात करपाक लागले. १७३० मेरेन जेझुईतांनी थंय सुमार ३० रेडुसिओनेस संस्था उबारिल्ल्यो आनी तातूंत सुमार १,४०,००० इंडियन लोक एकठांय रावून वावुरताले. पॅराग्वायंत

जेझुईतांचो वाडटो शेक आनी गिरेस्तकायेक लागून चडशे स्पेनी वसणूककार तांचो दुस्वास करपाक लागले. तांकां इंडियन लोकांक आपले शेतवडींत सवायभितर कामाक दवरपाक जाय आशिल्ले. पूण जेझुईतांनी इंडियन लोकांक गुलामगिरींतल्यान वाटोवपाची भुमिका घेतिल्ली. तशेंच रेडुसिओनेसांची राखण करपाखातीर ताणीं खाशेलें सैन्य उबारिल्लें. जेझुईतांचें वाडटें वैभव पळोवन स्पेनी वसणूककारांक तांची नसाय जावपाक लागली. ताणीं स्पेनाचो राजा चार्ल्स तिसरो हाचेकडेन जेझुईतांची कागाळ केली. १७६७ त राजान एक खाशेलें फर्मान काडून जेझुईतांक सगळ्या स्पेनी वसणुकांतल्यान धांवडावन घालपाक लायले. पॅराग्वायंतल्यान जेझुइत गेले उपरांत ताणीं उबारिल्ल्यो रेडुसिओनीस संस्था बंद पडल्यो. उपरांत तातूंत वावुरपी कांय ग्वारानी लोक स्पेनी वसणूककारांचे शेतवडींत रावपाक लागले, जाल्यार कांय ग्वारानी लोकांनी आपली पयलींची जिवीत पद्दत आपणायली.

सतराव्या आनी अठराव्या शेंकड्यांत पॅराग्वायच्या मानान स्पेनाच्या हेर वसणुकांची थोडीभोव प्रमाणांत उदरगत जाल्ली. व्हड कर भरून लेगीत मायदेशान आपलेकडेन दुर्लक्ष केलां अशें पॅराग्वायच्या लोकांक दिसपाक लागलें. १७७६ त स्पेनान आपले ला प्लाता हे व्हड वसणुकेंत पॅराग्वायचो आस्पाव केलो. ताका लागून आर्जेंटिनाचें प्रसिद्द शार बुयेनॉस आयरीस ही पॅराग्वायची राजधानी जाली. बुयेनॉस आयरीस सावन येवपी हुकूम मानपाक पॅराग्वायच्या लोकांक अपमानाचें दिसपाक लागलें. त्याच प्रमाण लॅटीन अमेरिकेंतल्या स्वातंत्र्य चळवळी वेळार बुयेनॉस आयरीसाच्या क्रांतिकारांनी पॅराग्वायचो आर्जेंटिनांत आस्पाव करपाचो यत्न केल्लो. देखून १८११ त आसुंसिओनच्या लोकांनी पुर्तुगेजांच्या आदारान बुयेनॉस आयरीसाच्या क्रांतिकारांचे यत्न मोडून उडयले आनी मे म्हयन्यांत राज्यपालाक सत्तेभायरो करून पॅराग्वायचे स्वातंत्र्य जाहीर केलें. स्पेनी सत्ता काबार जाले उपरांत राज्य कारभार चलोवंचेखातीर पॅराग्वायच्या लोकांनी नवी विधानसभा तयार केली.

१८१४ त विधानसभेन जुझे गाश्पार रोड्रिगीश द फ्रान्सिया हाका देशाचो अध्यक्ष नेमलो. दोन वर्सां उपरांत विधानसभेनूच ताका देशाचो हुकूमशाह केलो. फ्रान्सिया सैन्याच्या आदारान सरकार चलोवपाक लागलो. ताचो परदेशी लोकांचेर विस्वास नाशिल्लो. देखून ताणें अंतःप्रवसनाचेर (immigration) कायद्यान बंदी घाली आनी हेर देशाकडेन पॅराग्वायचे वेपारी संबंदूय बंद केले. अशेरितीन पॅराग्वाय संवसारांतल्या हेर देशांसावन कांय तेंप अलिप्त रावलो. पूण त्या काळांत पॅराग्वाय लोकांभितर घट अशी एकचाराची भावना निर्माण जाली. १८४० त फ्रान्सियाक मरण आयिल्ल्यान विधानसभेन कार्लोस आन्तोनिओ लोपेझ हाका मुखेली केलो. १९४४ त विधानसभेन गणराज्य पद्दतीचें संविधान आपणावन लोपेझाक पॅराग्वायचो अध्यक्ष केलो. फ्रान्सिया सारकोच लोपेझूय हुकूमशाह म्हणून राज्य कारभार चलोवपाक लागलो. पूण ताणें हेर देशांकडेन परतून वेपारी संबंद स्थापीत केले आनी परकी तंत्रज्ञांकूय पॅराग्वायंत स्थायीक जावपाक आमंत्रीत केले. ताच्या तेंपार शिक्षणीक आनी रस्त्या मळार खूब उदरगत जाली. तशेंच ताणें व्हड सैन्यूय उबारिल्लें. १८६२ न लोपेझाक मरण आयलें. उपरांत विधिमंडळान ताच्या चल्याक, फ्रान्सिस्को सोलानो लोपेझ हाका हुकूमशाहाचे अधिकार दिवन पॅराग्वायचो अध्यक्ष नेमलो. आर्जेंटिना आनी ब्राझीलाच्या कांय प्रदेशांचेर आपलो शेक बसोवपाचो फ्रान्सिस्कोचो हेत आशिल्लो. देखून १८६४ त ताणें ब्राझीलाआड झूज उबारलें. ब्राझीलाचेर घुरी घालपाखातीर पॅराग्वाय सैन्याक आर्जेंटिनान आपल्या प्रदेशांतल्यान वचपाक मान्यताय दिलीना म्हणून ताणें आर्जेंटिनाआडूय झूज उबारलें. १८६५ त ब्राझील, आर्जेंटिना आनी उरूग्वाय हीं तिनूय राश्ट्रां एकठांय येवन पॅराग्वायाआड झुजपाक लागलीं. १८७० त लोपेझाक झुजामळार मरण आयले उपरांत पॅराग्वायन आपली हार मान्य केली. सेगीत सात वर्सां चालू आशिल्ल्या त्या झुजाक लागून पॅराग्वायची अर्थीक आनी समाजीक स्थिती साप्प इबाडिल्ली. १८६५ त देशाची लोकसंख्या ५२५,००० आशिल्ली. ती १८७१ त फकत २२०,००० इतलीच उरली.

झुजा उपरांत सत्तेर येवपाखातीर पॅराग्वायांतल्या वेगवेगळ्या राजकीय पंगडांभितर सर्त लागिल्ली. १८७० ते १९३० मेरेन पॅराग्वायचे ३० वयर अध्यक्ष सत्तेर येवन गेले. राजकीय अस्थीरपणाचो फायदो घेवन १९३२ त बोलिव्हीयन पाराग्वायचो च्याको प्रांत हातासलो. ह्याच वर्सा पॅराग्वायन बोलिव्हियेआड झूज उबारलें. त्या झुजांतूय पॅराग्वायचें व्हड नुकसान जालें आनी तांचें खूब सैन्य काबार जालें. १९३३ त दोनूय राश्ट्रांभितर तात्पुरती कबलात जाली. १९३८ त तांचेमदीं निमाणी कबलात जावन पॅराग्वायक च्याको प्रांताचो कांय भाग मेळ्ळो. च्याको झुजा उपरांत लेगीत देशांतली राजकीय अशांत परिस्थिती तशीच उरली. ताका लागून देशांतलो राहणीमानाचो दर्जो, भौशीक स्थिती आनी कामगारांचे जिणेचो दर्जो उणोच उरलो. पूण दुसऱ्या म्हाझुजाच्या वेळार पॅराग्वायचो अर्थीक स्थितींत थोडी - भोव सुदारणा जाली. दुसऱ्या म्हाझुजांत पॅराग्वायचो तेंको मेळोवंचेखातीर अमेरिकेन ताका रीण आनी हेर अर्थीक आदार दिल्लो. अमेरिकेन दिल्ल्या आदाराक पाळो दिवंचेखातीर पॅराग्वायन १९४५ त जर्मनी आनी जपानाआड झूज उबारलें. पूण प्रत्यक्षपणान पॅराग्वायचें सैन्य झुजांत झगडलेंना.

दुसऱ्या म्हाझुजा वेळार हिगिनीओ मोरिनीगो हो पॅराग्वायचो अध्यक्ष आशिल्लो. १९४० ते १९४७ मेरेन ताणें देशाचेर आपली हुकूमशाय गाजयली. मोरिनीगोची हुकूमशाय नश्ट करचेखातीर १९४७ त बंड जालें. मोरिनिगोन तें बंड मोडून उडयलें. पूण बंडा वेळार मोरिनिगोक फाटबळ दिवपी कॉलोरादो पक्षाचे उपरांत दोन वांटे जावन, ताणीं मोरिनिगोक देशाभायर धांवडावन घालो. मोरिनिगो उपरांत कॉलोरादो पक्षांत पंगड तयार जावन सत्तेर येवंचेखातीर तांचेमदीं झगडीं जावपाक लागलीं. तातूंतल्या एका पंगडाचो मुखेली फेडरिको शावेस हाणें १९५० त सत्ता काबीज केली. पूण १९५४ त सैन्याचो मुखेली जनरल आल्फ्रेदो स्ट्रोसनर हाणे शावेसाक सत्तेभायरो करून देशाचीं सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. १९५५ त जाल्ले वेंचणुकेंत स्ट्रोयनर हाणें कॉलोरादो पक्षाचो उमेदवार म्हणून वांटो घेतिल्लो. ते वेंचणुकेंत तो अध्यक्ष म्हणून विरोधाविणें वेंचून आयलो. सत्तेचेर आपलो ताबो दवरचेखातीर स्ट्रोसनरान सैन्याचो आनी पोलिसांचो उपेग केल्लो. ताका लागून तो १९५८ ते १९८८ ह्या काळांत पॅराग्वायचो अध्यक्ष म्हणून सेगीत सात खेपे वेंचून आयलो. ताचे राजवटीक विरोध करपाचो यत्न केल्ल्यांक बंदखणीची ख्यास्त जाली, जाल्यार कांय विरोधकांक तडीपार केले. धाक घालून राजकीय थिराय दवरपाक तो येसस्वी थरिल्लो. राजकीय थिराये खुस्तार व्हड रीण मेळोवपाक आनी परकी भांडवल गुंतवणूककारांक आकर्शीत करपाकूय ताका येस मेळ्ळें. ते मिळकतीच्या आदारान पॅराग्वाय सरकारान शेतकी आनी रस्त्यांमळार खूब सुदारणा केली आनी नवे उद्देगधंदेय

वाडयले. स्ट्रोसनरान ब्राझील देशाकडेनूय अर्थीक संबंद जोडून पॅराग्वायच्या उदेंत भागांत सुदारणा केली.

स्ट्रोसनराचे राजवटींत पॅराग्वायची खूब अर्थीक उदरगत जाली. ताच्या तेंपार राजकीय थिरायूय आसली. पूण पॅराग्वायच्या नागरिकांक राजकारणांत वांटो घेवपाक वा भाशण करपाचें स्वातंत्र्य नाशिल्लें. हाका लागून १९८८ त ताचे राजवटीक चड नेटान विरोध जावपाक लागलो. १९८९ त जनरल आंद्रेस रॉद्रीगीश हाणें स्ट्रोसनराआड बंड उबारून ताका सत्तेभायरो केलो. मे १९८९ त जाल्ले वेंचणुकेंत ताणें कॉलोरादो पक्षाचो उमेदवार म्हणून वांटो घेतिल्लो. ते वेंचणुकेंत ताका भोवमत मेळून, तो पॅराग्वायचो अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो.

**राज्यवेवस्था** – पॅराग्वायचो राज्य कारभार १९६७ त आपणायल्ल्या संविधानाप्रमाण चलता. गणतंत्रीक तत्त्वांचेर आदारिल्ल्या त्या संविधानान नागरिकांक मनीस आनी राजकीय हक्कांची हमी दिल्या. संविधानाप्रमाण मतदार देशाचो अध्यक्ष पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात. अध्यक्ष कितलेय खेपे वेंचून येवंक शकता. संविधानांत ताका साबार अधिकार दिल्ले आसात. तो विधिमंडळ बरखास्त करपाक शकता. तशेंच, मंत्रिमंडळ आनी प्रशासकीय समिती नेमपाचे हक्क ताका आसात. राज्य प्रशासकीय मंडळ आनी सल्लागार समिती नेमपाचेय अधिकार ताका दिल्यात. वेवसाय, उद्‌देगधंदे, शेतवड, सैन्य आनी रोमी कॅथलीक इगर्जेंतल्या प्रतिनिधींचीय नेमणूक तोच करता. देशाची संसद, सिनेट आनी चेम्बर ऑफ डेप्युटिस अशी दोन सभाघरांनी विभागल्या. सिनेटांत ३६ जाल्यार चेम्बर ऑफ डेप्युटिस घरांत ७२ वांगडी सार्वत्रीक मतदानांतल्यान पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात. प्रांतिक कारभार केंद्र सरकाराचे देखरेखीखाला चलता. राज्य कारभारांत सुटसुटीतपण येवंचें म्हणून देशाचे १९ विभाग केल्ले आसात. त्या विभागांचे मुखार साबार उपविभाग केल्ले आसात. एका विभागांतल्या मुखेल्यांची नेमणूक अध्यक्ष करता. देशांत साबार पक्ष आसून संविधानप्रधान कायदेशीर रितीन मान्यताय मेळिल्ल्या सगळ्या पक्षांक वेंचणुकेंत वांटो घेवपाक मेळटा. पूण १९४७ मेरेन सेगीत कॉलोरादो पक्षाचोच पॅराग्वायंत शेक चलता.

सुप्रीम कोर्ट ऑफ जस्टीस हें पॅराग्वायंतलें सर्वोच्च न्यायालय आसून, तातूंतल्या पांच न्यायाधिशांची नेमणूक पांच वर्सांखातीर अध्यक्ष करता. देशांत अपील न्यायालयां आनी साबार कनिश्ठ प्रांतीक न्यायालयां आसात.

**अर्थीक स्थिती** – पॅराग्वायचो आस्पाव विकासशील देशांभितर जाता. देशांतल्या वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांत उद्‌देगधंदे, शेतवड आनी रानांसावन मेळपी येणावळीचो वांटो चड आसता. देशांतले साबार वेवसाय आनी उद्‌देगधंदे खाजगी मालकीचे आसात. पूण अर्थीक सुदारणा आनी धोरणांची आंखणी करपा फाटल्यान केंद्र सरकारचो मुखेल वांटो आसता. तशेंच बँको, कारखाने, येरादारी आनी ऊर्जा निर्मिती ह्या क्षेत्रांनी सरकाराक हस्तक्षेप करपाचे खाशेले अधिकार आसात. देशाची भूंय पिकाळ आशिल्ल्यान थंय शेतवडीक चड म्हत्व मेळ्ळां. वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांतलो सुमार ३० प्रतीशत वांटो शेतवडीसावन मेळटा. शेतवडीक लागून देशांतल्या सुमार ४५% कामदारांक वावर मेळटा. पूण थंय मुखेलपणान परंपरीक पद्‌दतिनूच पिकां काडप जाता. शेतवडीची ल्हान ल्हान कुणग्यांनी विभागणी आनी जमनीची मालकीय नाशिल्ल्यान थंयचे शेतकामती मुखेलपणान आपलेपुरतेंच पीक काडटात. पूण हालींच्या तेंपार सरकारान खाशेल्यो येवजणो आंखून शेतकी मळार खूब उदरगत घडोवन हाडल्या. मको, तांदूळ, कापूस, कसावा, सोयाबीन, ऊंस आनी तंबाकू ही थंयची मुखेल पिकावळ.

देशांत व्हड चरवाचीं मळां आशिल्ल्यान थंय पशुपालन वेवसाय नेटान चलता. देशाची सुमार अदर्यावयर भूंय रानांतळा आशिल्ल्यान आनी तातूंत साबार घट्ट रुखांच्यो जाती आशिल्ल्यान देशाच्या वट्ट उत्पन्नांत रानावळीसावन मेळपी येणावळीचो व्हड वांटो उरता.

पॅराग्वायंत हालींच्या तेंपार उद्‌देग-धंद्यांत खूब वाड जाल्ली आसून देशाचे वट्ट येणावळींत ताचें मुखार ५५ प्रतीशत मेजमाप जाता. तेचप्रमाण उद्‌देग-धंद्याक लागून देशांतल्या सुमार ४५% कामगारांक वावर मेळटा. देशांत वेगवेगळ्या प्रकारचे ल्हान-व्हड अशे साबार कारखाने आसात. देशांत वट्ट कामगारांतल्या सुमार १०% कामगारांक कारखान्यांनी काम करपाची संद मेळटा. देशांतले चडशे, व्हड-व्हडले कारखाने आसुंसिओन शारा भोंवतणीं आसात. देशांत अन्नप्रक्रिया, शीतपेय, लाकडी वस्तू, लुगट, शिमीट आनी चामड्याच्यो वस्तू तयार करपी कारखाने चड म्हत्वाचे आसात. देशांतली वीज मुखेलपणान उदकासावनूच तयार जाता. देशांत चडशी वीज पुरवण आकारे आनी पाराना न्हंयांचेर आशिल्ल्या जलविद्युत् प्रकल्पावरवीं जाता. तशेंच आनीक जलविद्युत् प्रकल्प उबारून वीज तयार करपाक पॅरग्वायंत खूब वाव आसा. पॅराग्वाय आनी ब्राझील देशांनी मेळून पाराना न्हंयेचेर आशिल्ल्या इतायपू धरणाचेर उबारिल्लो जलविद्युत प्रकल्प हो संवसारांतलो सगळ्यांत व्हडलो जलविद्युत प्रकल्प आसा. १९८४ सावन त्या प्रकल्पांतल्यान वीज निर्माण जावपाक लागली. तो प्रकल्प पुरायपणान क्रियाशील जालो म्हण्टकूच तांचेमदीं १२१/२ दशलक्ष किलोवॅट वीज निर्माण करपाची तांक आसतली अशें तंत्रज्ञांनांचें म्हणणें आसा.

पॅराग्वायचो वेपार मुखेलपणान अर्जेंटीना, ब्राझील, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां आनी उपरांत युरोपी देशांकडेन जाता. पॅराग्वायंतल्यान निर्यात जावपी म्हालांत मुखेलपणान काफी, कापूस, मासाचे वेगवेगळे जिनस, सोयाबीन, तेलबियां, लाकूड, कमायल्लें चामडें, तंबाकू आनी खावपाच्या तेलाचो आस्पाव जाता. जाल्यार आयात जावपी म्हालांत रसायनां, इंधन, वंगण (Lubricant), लोखण, तिखें, वेगवेगळीं माक्नां आनी येरादारी उपकरणांच्या मेकळ्या भागांचो आस्पाव जाता.

**येरादारी आनी संचारण** – देशांतली चडशी येरादारी उदका मार्गांतल्यान जाता. पॅराग्वाय न्हंयेच्या मुखार आशिल्लें आसुंसिओन हें देशांतलें मुखेल बंदर. पाराग्वाय आनी पाराना न्हंयो उदका येरादारीखातीर प्रसिद्‌द आसात. शारांक जोडिल्ल्या चडशा रस्त्यांच्या दोनूय वटांनी चलपाखातीर रूंद फुटपाथी आसात. हालीं तेंपार लोकांच्या जिणेच्या मानांत सुदारणा जाल्ली आसली तरी वट्ट लोकसंख्येंतल्या फकत दोन प्रतीशत लोकांकडेन मोटारी आसात. पाराना न्हंयेचेर फ्रँडशीप हो देशांतलो प्रसिद्‌द पूल आसा. त्या पुलावरवीं देशांतले कांय मुखेल रस्ते ब्राझिलियी म्हामार्गाक जोडल्यात. आसुंसिओन आनी अँकारनासिओन शारांक जोडपी एकूच म्हत्वाचो असो रेल्वेमार्ग देशांत आसा. आसुंसिओन शारा लागसार एक विमानतळ आसून पॅराग्वाय ॲरलायन्स ही राश्ट्रीय कंपनी देशाभितल्ली आनी आंतरराश्ट्रीय पांवड्यार हवाई येरादारी चलयता. देशाच्या संविधानान पत्रकार वेवसायाक मेकळीक दिल्ली आसून, देशांत चार दिसाळीं आनी पांच नेमाळीं उजवाडाक येतात. वट्ट लोकसंख्येंतल्या फकत पांच प्रतीशत लोकांकडेन रेडिओ ट्रांसिस्टर आसात आनी तीन प्रतिशतां परस उण्या

लोकांकडेन टीवी सॅट आसात.

**लोक आनी समाजजीण** - १९९१ चे जनगणनेप्रमाण देशाची लोकसंख्या ४,६००,००० इतली आशिल्ली. पूण देशाची उत्तर, दक्षीण आनी अस्तंतेकडची चडशी भूंय दोंगरी, तळपी आनी सुक्या हवामानाची आशिल्ल्यान सुमार ९५ प्रतीशत लोक देशाच्या उदेंत भागांत रावतात. स्पॅनी लोक पॅराग्वायंत पावचे पयलीं थंय ग्वारानी इंडियन लोकांचो राबितो आशिल्लो. स्पॅनी लोक त्या देशांत हेर देशांपरस इंडियन लोकांमदीं चड भरसून गेले. हाका लागून आयज देशांतले सुमार ९५ प्रतीशत लोक मिस्तीस (स्पॅनी आनी ग्वारानी इंडियन लोकांमदीं जाल्ली भरसण) आसात. ग्रान चाको प्रदेशांत अजुनूय ग्वारानी इंडियन लोक आसात. चीनी, जर्मन, कोरीयी आनी जपानी वंशांचेय लोक अल्पसंख्येन थंय आसात. स्पेनी आनी ग्वारानी ह्यो देशाच्यो दोन राजभासो आसात. शाळांनी, सरकारी क्षेत्रांत आनी वेवसायीक पांवड्यार स्पेनी भाशेचो वापर चड जाता. पूण सबंद देशांत उलोवपाची भास म्हणून ग्वारानी भाशेचोच चड उपेग जाता. पुस्तकां आनी खबरांपत्रां दोनूय भासांनी उजवाडाक येतात.

देशाच्या जिणेच्या मानाचो दर्जो आजून उणो आसून, चडशा लोकांचो आस्पाव सकयल्या वर्गांत जाता. मध्य वर्गांतले लोक मुखेलपणान शारांत रावतात आनी दिसानदीस तांचो आंकडो वाडत आसा. उच्च वर्गांतल्या लोकांत सरकारी अधिकारी, सैन्य मुखेल, गिरेस्त जमीनदार आनी वेपारी लोकांचो आस्पाव जाता. देशांतले सुमार अर्दे लोक गांवगिऱ्या वाठारांनी रावतात. तातूंतले चडशे लोक शेतकामती आसात. उरिल्ले लोक गोरवांच्या फार्मांनी आनी ल्हान कारखान्यांनी वावुरतात. गांवगिऱ्या वाठारांतले चडशे लोक 'रांच्योस' ह्या ल्हान घरांनी रावतात. वाडट्या उद्देगधंदयांक लागून शारांत रावपी लोकांची संख्या वाडत आसा. गांवगिऱ्या वाठारांतल्यो चडशो बायलो 'रॅबोझो' ही शाल वापरतात. पूण सादारण बायलांचो स्कर्ट आनी ब्लाऊस असो सादो भेस आसता. जाल्यार गांवगिऱ्या वाठारांतले दादले 'बॉंबाच्या' नांवाचो सदळ लेंगो घालतात. शारांतले लोक युरोपी लोकांप्रमाण भेस करतात. पॅराग्वाय लोकांच्या जेवणांत गायच्या मासाचो चड उपेग जाता. गायचें मास आनी भाजी शिजोवन तयार केल्लो. 'पुकेरा' हो पदार्थ ते आवडीन खातात. तांच्या जेवणांत कसावा कणंगांचोय चड वापर जाता. कसावा उकडून वा ताच्या पिठासावन तयार केल्लो उंडो (Bread) तांच्या चड घोस्ताचो. त्या उंड्याक ते 'चिपा' म्हण्टात. मको, तांतयां, दूद, कांदो आनी चीझ शिजोवन तयार केल्लो 'सोपा पॅराग्वाया' हो पदार्थ ते खास करून सणा-परबे वेळार खातात. 'एर्बा मॅट' ही तांची आवडीची च्या.

पॅराग्वाय देशांत सगळ्या धर्मांक स्वातंत्र्य आसा. पूण ९० प्रतिशता वयर चडशे लोक रोमी कॅथलीक आसात. पॅराग्वायंतले पंदरा वर्सांवयले सुमार ८० प्रतीशत लोक वाचपा-बरोवपाक जाणात आसले तरी थंय शिक्षणीक मळार व्हडलीशी उदरगत जावंक ना. उच्च शिक्षणांत उदरगत जावंची म्हणून पॅराग्वाय सरकारान विद्यापीठ पांवड्यामेरेनचें शिक्षण लेगीत फुकट दवरलां. कायद्यान सात ते चवदा वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांक शिक्षण सक्तीचें आसा. पूण गांवगिऱ्या वाठारांनी मास्तरांची आनी शाळांचो आंकडो उणो आशिल्ल्यान त्या कायद्याचें पालन सारकेंजायना. 'नॅशनल युनिवर्सिटी ऑफ आसुंसिओन' आनी 'कॅथलीक युनिवर्सिटी' हीं देशांतलीं दोन विद्यापिठां. पॅराग्वायंतले चडशे कलेंत मुखेलपणान ग्वारानी इंडियन संस्कृतायेचो प्रभाव दिश्टी पडटा. चित्रकार मुखेलपणान आपलीं चित्रां ग्वारानी संस्कृतायेचेरूच पिंतारायतात. इटाओग्वा ह्या शारांत बायलां विणतात ती 'नान्दुती लॅस' संवसारांत प्रसिद्द आसा. सॉकर हो पॅराग्वाय लोकांचो आवडीचो खेळ. बास्केट बॉल, वॉलीबॉल, घोड्यां सर्त आनी पेंवप हांकांय चड म्हत्व आसा. देशांतलें चडशें साहित्य स्पेनी भाशेंतूच जालां. ग्वाराना भाशेंतलें साहित्य खूब उणें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## पॅरालिसीस : (पळेयात पक्षाघात).

## पॅरॉन, हुवान दुमिंगो : (जल्म ८ ऑक्टोबर १८९५; मरण : १ जुलय १९७४.)

आर्जेंटिनाचो राश्ट्राध्यक्ष. ब्वेनस आयरीस प्रांतांतल्या लोबोस ह्या गांवांत मध्यमवर्गीय इटालियी घराण्यांत ताचो जल्म जाल्लो. ताचें मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण त्याच गांवांत जालें. १९११ ते १९१३ ह्या काळांत ताणें लश्करी शिक्षण पुराय केलें. १९३०त जाल्ल्या बंडांत ताणें सैनिकी दलाचें फुडारपण केलें. उपरांत १९३०-३५ ह्या काळांत तो राखणे मंत्र्याचो खाजगी सचीव आनी १९३६-३७ त चिली वकिलांतीत पालवी सैनिक आशिल्लो. उपरांत ताणें सुमार दोन वर्सां इटालींत सैनिकी दलाचो अभ्यास केलो. ह्या तेंपार ताणें फॅसिस्ट इटली आनी नाझी जर्मनी हांचो बारीकसणीन अभ्यास केलो. ताच्या गटान १९४३त अवचीत सत्तांतरावरवीं देशांतलें उदार सरकार मोडून उडोवपाक फुडाकार घेतिल्लो. उपरांत ताणीं पॅरॉन हाका कामगार मंत्री केलो. ताणें मजूर संघटना, मजुरी, कामाचीं वरां, पगारी सुटयो, घरांची आनी भलायकेची वेवस्था हातूंत सुदारणा करून मजुरांक आपलेशे करून घेतले. १९४४ तो उपराश्ट्राध्यक्ष आनी झूज मंत्री म्हणून वेंचून आयलो. ऑक्टोबर १९४५त कांय अधिकारी आनी तथाकथीत राज्यघटनावादी लोकांनी बंड करून पॅरॉनाक सत्तेवयल्यान देंवोवन बंदखणींत घालो. पूण ताची दुसरी बायल एवा दुआर्त आनी ताचे कामगार चळवळींतले कांय वांगडी हाणीं ताका सोडयलो. १९४६त तो अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. ताणें राज्यघटनेंत बदल करून १९४८त राश्ट्राध्यक्षाचे पुनर्वेचणुकेवयलें बंधन काडून उडयलें. रेल्वे आनी हेर साबार वेवसायांचें राश्ट्रियीकरण केलें. आंतरराश्ट्रीयक्षेत्रांत अमेरिकेआड धोरण आपणावन लॅटीन अमेरिकेंतल्या विकासशील राश्ट्रांक सगळ्या तरांचो आदार दिल्लो. तशेंच कामगारांखातीर लॅटीन अमेरिकन लेबर फॅडरेशन (अॅटलास) ही संस्था उबारून तिच्या फांट्याचें जाळें पुराय दक्षीण अमेरिकेंत पातळ्ळें.

१९५१ त तो परत वेंचून आयले उपरांत ताच्या सुर्वेच्या कडक धोरणांत मातशी सदळसाण आयली. हे फावटीं ताणें शेतकी उत्पादनाचेर चड भर दिल्लो. अमेरिकेवांगडाचें आपलें धोरण सौम्य केलें. बायलांक समान हक्क आनी कामगारांक स्वाभिमानान जगपाक येत अशी परिस्थिती निर्माण केली. पूण ताची लश्करी हुकूमशाय आनी तिणें लायिल्लीं मतस्वातंत्र्य, व्यक्तिस्वातंत्र्य, संविधानात्मक स्वातंत्र्यावयलीं बंधनां, रोम कॅथलिकांआड आपणायल्लें धोरण, वाडपी म्हारगाय, लांचलुचपत आनी दडपशाय हांका लागून ताचे सत्तेक देंवती कळां लागली. अशे परिस्थितीचो फायदो घेवन नौदलाच्या शिपायांनी लोकशायनिश्ठ अधिकाऱ्यांच्या आदारान बंड करून पॅरॉनाक सत्तेवयलो सकयल देंवयलो. १९५५त तो पाराग्वायाक

पळून गेलो. उपरांत तो खूब वर्सां आर्जेंटिना भायरूच रावलो. १९७३त तो परत आर्जेंटीनांत आयलो आनी ताची अध्यक्ष म्हणून निवड जाली. ताची दुसरी बायल एवा दुआर्त हिणें पॅरॉवादी चळवळीवरवीं पॅरॉनाची नामना वाडयली. ताचे पयले बायलेप्रमाण एवा दुआर्त हिकाय १९५२त कर्करोगान मरण आयलें. उपरांत पॅरॉन आपली खाजगी सचिवा मारिया इझाबेला हिचेकडेन १९६१त लग्न जालो. तिणें पॅरॉवादी चळवळ आर्जेंटिनांत वाडोवन पॅरॉनाक परत १९७३ त अध्यक्ष म्हणून वेंचून येवपाक आदार केलो. उपरांत तो दुयेंत पडिल्ल्यान १९७४त ताका मरण आयलें. ताच्या मरणाउपरांत इझाबेला अध्यक्ष जाली.

– कों. वि. सं. मं.

## पॅरिक्लस : (इ. स. आदीं ४९५ ते ४२९).

पुर्विल्ल्या ग्रीसांतलो एक पराक्रमी आनी मुत्सद्दी फुडारी. ताची कारकीर्द म्हळ्यार ग्रीसी संस्कृतायेचे भांगराकाळ म्हणून वळखतात ताचो बापूय झांटिपस हो नामनेचो राजकारणी आशिल्लो. सोफिस्टांचे शिकवणेचो ताचेर बरोच प्रभाव पडिल्लो. ताका तत्त्वगिन्यानाची आनी भौतीक विशयाची आवड आशिल्ली. तो बऱ्यांत बरो दर्यावर्दी आनी नाविक झुजांत खांपो आशिल्लो.

पॅरिक्लसाच्या जल्मा वेळार अॅथेन्सांत लोकशाय पद्दत आस्तित्वांत आयली. लोकशायेच्या सुर्वेच्या काळांत ग्रीसी राज्यांतलो भितल्लो वाद कांय प्रमाणांत थांबिल्लो. आनी परक्यांकडेन चालू आशिल्लीं झुजांय सोपिल्लीं. मॅसिडोनिया आनी ग्रीसी जुंवे हांचें दुस्मानपण आनी तांचेमदल्यो सर्ती चालू आशिल्ल्यो मॅसिडोनिया जिखपांत सिमॉन ह्या अॅथेन्साच्या फुडाऱ्याक अपेस आयलें. उपरांत मुखेलपदार एफिआल्टस आयलो, पूण ताचीय हत्त्या जाली. हाकाच लागून अचकीत राजकारणांत वचपाची संद पॅरिक्लसाक मेळ्ळी. इ. स. आदी ४५१त जाल्ल्या एका करारांत ग्रीसी जुंव्यांची राखण करपाचे बदलाक ह्या जुंव्यांनी अॅथेन्साक खंडणी दिवप अशें थारायल्लें. पॅरिक्लसान ह्या जुव्यांकडल्यान खंडणी वसूल करून घेतली आनी पार्थेनॉन आनी हेर सभागृहांच्या भव्य आनी सुंदर इमारतींचीं बांदकामां करून घेतलीं.

इ. स. आदीं ४५० - ४४६ ह्या काळांत ग्रीसीराज्य नगरराज्यांचे संघटनेचें साम्राज्यांत रुपांतर जालें. ह्या वेळार पॅरिक्लसान खंबीर धोरण आपणावन दुस्मानाचेर जैत जोडलें. इ. स. आदीं ४४६ त पॅरिक्लसान स्पार्टाक हारयलो. तरीय स्पार्टांतली बंडाळी थांबली ना. निमाणें पॅरिक्लसान तडजोड करून अॅथेन्स आनी स्पार्टा दोगांयनी एकामेकांच्या इश्ट राज्यांनी मेतेर जावप ना अशें थारयलें. तरीय इ. स. आदीं ४३१-४२१ ह्या काळांत आर्किमिडियन झूज जालेंच. ह्या झुजांत सुर्वेच्या काळांत सैन्यांत प्लेगाची धाम आयली. ताका लागून सैन्याचें मानसीक बळ खचलें. पॅरिक्लसान जैत मेळोवपाखातीर बरेंच झूज दिलें आनी ह्या यत्नांत ताका मरण आयलें.

पॅरिक्लसान राज्यकारभारांत नावीक दळांत जायत्यो सुदारणा घडोवन हाडल्यो. सरकारी काम करप्यांक थरावीक पगार दिवपाची पद्दत ताणेंच सुरू केल्ली.

वेपारी आनी वेवसाय करपी परक्यांक ताणें जायत्यो सवलती दिल्यो. ताका लागून अॅथेन्साच्या वेपारांत भरपूर उदरगत जाली. सरकारी नोकरी पाळये-पाळयेन वेगवेगळ्या पंगडांक दिवपाची चालूय ताणेंच सुरू केली. तेचपरी लोकशाय विचार आनी परंपराय घट केल्यो. ताच्या राज्यांत नागरिकांचे सभेंत सगळ्या नागरिकांक भाशण करपाचे स्वातंत्र्य आशिल्लें. तशेंच धोरणाविशींच्या थारावाचेर भासाभास करप जाताली. लोकांचे मान्यतायेनूच तो निर्णय घेतालो आनी धोरणां थरयतालो. ग्रीसी देवांच्यो परबो, उत्सव, मनोवपाक ताणें उत्तेजन दिल्लें. अथेन्स साम्राजांत उदरगत घडोवन हाडपांत पॅरिक्लसाचो म्हत्वाचो वांटो आसा.

– कों. वि. सं. मं.

## पॅरीस : फ्रांसाची राजधानी. रोमी लोकांची सत्ता ह्या भागाचेर येवचेपयलीं ईल द ला जुंव्याचेर गॉल जमातींतले पॅरीसी लोक रावताले. तांचेवयल्यानूच ह्या शाराक 'पॅरीस' हें नांव पडिल्ल्याचें मानतात.

फ्रांसाचे उत्तरेकडल्या मैदानी वाठाराच्या केंद्रस्थानाचेर आशिल्लें हें शार सुर्वेक सेन न्हंयेच्या पात्रांतल्या ईल द ला सीते ह्या जुंव्याचेर वशिल्लें तें आतां न्हंयेच्या दोनूय देगांचेर पातळ्ळां. पॅरीसाचे दक्षिणेक सेन न्हंयेचे दावे देगेर माँ सँ झंव्हेव्ह आनी माँ पार्नास ह्यो दोंगुल्ल्यो आसात, जाल्यार उत्तरेक सेनचे उजवे देगेर मॉमार्त्र आनी बेलव्हिल ह्यो दोंगुल्ल्यो आसात. शाराच्या अस्तंत भागांत माँ व्हालेरीं ही दोंगुल्ली आसा. ह्या शारांतल्या सकयल्या वाठाराची उंचाय समुद्रपातळेकडल्यान २५ मी. आसून चडांत चड उंचाय १३० मी. आसा.

पॅरीसाचें हवामान शितळ, दमट पूण आल्हाददायक आसा. किमान सरासरी तापमान ४° सॅ. आसून कमाल तापमान १९° सॅ. आसता. केन्नाय हें तापमान गोठण बिंदू सकयल वता. चड करून पावस अस्तंत वाऱ्यापसून मेळटा आनी वर्सूयभर हलक्यो सरी पडटात. वर्सूयभर सरासरी पावस ५० सेंमी. पडटा. एकंदरींत पॅरीसाचें हवामान सम आसा.

पुर्विल्ल्या काळांत सेन न्हंयेंतल्या ईल द ला सीते जुंव्याचेर गॉल लोकांतल्या पॅरीसी जमावाचो राबितो आशिल्लो. इ. स. प. ५२ त ज्युलियस सीझरान तांकां हारयले आनी थंय रोमी ठाणें उबारलें. त्या वाठाराक 'लुटेशिया' हें नांव दिलें. रोमींनी तटबंदी उबारून हें ठाणें सुरक्षीत केलें. सेन आनी तिच्या उपन्हंयांतल्यान आनी भोंवतणच्या मैदानी प्रदेशांतल्यान येरादारी करप सोंपें आशिल्लें. मैदानांतली जमीन सुपीक आशिल्ल्यान शेतीखातीर फायदयाची आशिल्ली. हाका लागून लुटेशियाची वाड जाली आनी इ. स. दुसऱ्या शेंकड्याच्या सुमाराक ताचो विस्तार सेन न्हंयेचे दावे देगेमेरेन जालो. तिसऱ्या शेंकड्यांत जर्मन आनी स्कँडिनेव्हियन जमावांनी हे वसणुकेची नासधूस केली. हाका लागून थंयची वसती मूळ जुंव्यामेरेन उरली. पांचव्या शेकड्यांत हांगा हूणांच्यो घुरयो पडपाक सुरवात जाली. तांचो येसस्वी प्रतिकार करपी माँ सँ झंव्हेव्ह हे संत बायलेच्या सन्मानाखातीर न्हंयेचे दावे देगेवयले दोंगुल्लेक तिचें नांव दिलें. फुडें फ्रँक राजा क्लोव्हिसान रोमी सत्ता नश्ट केली आनी ५०८ त पॅरीस हें आपलें मुखेल ठाणें केलें. शार्लमेनच्या कारभाराच्या काळांत पॅरीसाचें म्हत्व उणें जालें. पूण फ्रांसाचो ड्यूक युग कापे हाणें ९८७त पॅरीस ही आपली राजधानी केली. फ्रांस राश्ट्राच्या उदयाचो तो काळ आशिल्लो. त्याच काळांत पॅरीसाचें म्हत्व वाडून ताच्या उदरगतीची बुन्याद घाली. धाव्या शेंकड्यांत पॅरीस फ्रांसाचें राजकी केंद्र जालें. इकराव्या शेंकड्याचे सुर्वेक हें शार सेन न्हंयेच्या दोनूय देगांचेर पातळ्ळें. दावे देगेचेर मुखेलपणान शिक्षणीक संस्था आनी उजवे देगेचेर वेपारी विभागाची स्थापणूक जाली. मूळ जुंव्याचो भाग राज्यकारभाराचें केंद्रस्थान जालो.

फिलिप ऑगस्टस राजाच्या (११८० - १२२३) कारभारांत पॅरीसांत जायत्यो सुदारणा जाल्यो. ताणें दावे देगेचेर जायत्यो शाळा, म्हाविद्यालयां, इगर्जो, हॉस्पिटलां आनी उजवे देगेर ल्हानसो किल्लो बांदलो. ताच्याच काळांत पॅरीस विद्यापिठाचीय स्थापणूक जाली. हें विद्यापीठ पुराय युरोपाचें शिक्षणीक केंद्र जालें. ह्याच काळांत नोत्रदामच्या गॉथिक वास्तुशैलींतलें कॅथीड्रल उबारलें. णवव्या लुईच्या काळांत (१२२६-७०) धर्मीक कामांखातीर सँ शापॅल बांदलें. पयल्या फ्रांसिसाच्या कारभारांत (१५१५-४७) लूव्हर राजवाडो आनी ओतेल द व्हिलसारक्या व्हड वास्तूंची भर पडली. ते उपरांत धर्मीक संघर्शाच्या काळांत पॅरीसाचें बरेंच नुकसान जालें. पूण चवथ्या हॅन्रीन, फ्रांसांतली अंदाधुंदी ना करून प्रबळ राजसत्ता स्थापन केली (१५८८-१६१०). ताच्याच यत्नांक लागून पॅरीस एक सोबीत शार म्हणून वळखूंक लागलें. पॅरीसांतलो पयलो पुतळो चवथ्या हॅन्रीचो. चवदाव्या लुईच्या काळांत (१६४३-१७१५) जायते चौक, कॅथीड्रल, इगर्जो आनी व्हडल्यो इमारती उबारल्यो. पंदराव्या लुईनूय पॅरीसांत जायत्यो सुदारणा केल्यो. अठराव्या शेंकड्यांचें निमणें दशक फ्रेंच राज्यक्रांतीखाला गेलें. नेपॉलियन बोनापार्टाचो काळ जरी झुजांनी गाजिल्लो आसलो तरीय ताणें पॅरीसाचे उदरगतीच्यो जायत्यो येवजणी चालीक लायल्यो. जायते पूल, विजयकमानी, स्मारकां, चौक, दोनूय वटांनी झाडां लायिल्ले रूंद रस्ते, बागो, फाँतेन्ब्लोचें आनी हेर राजवाड्यांतलें सोबीत लांकडी सामान आनी संग्रह करून नेपॉलियनान पॅरीसाक भव्यताय आनी सोबीतकाय मेळोवन दिली. तिसऱ्या नेपॉलियनान पॅरीसाक आधुनीक रूप दिवपाचे यत्न केले. १८३७ त सुरवात केल्ल्या पॅरीसाच्या प्रदर्शनाची परंपरा फुडेंय चालूच उरली. दर बारा वर्सांनी भरिल्ल्या प्रदर्शनांक लागून पॅरीसाचे सोबीतकायेंत जायती भर पडत गेली आनी ताचें म्हत्वूय वाडलें. १८७०-७१ च्या फ्रँको-जर्मन झुजांत आनी उपरांतच्या पॅरीस कम्यूनच्या विध्वंसक काळांत पॅरीसाची खुबूच नाशाडी जाली.



सॉरबॉन विद्यापीठ

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत पॅरीसांत जायत्यो सुदारणा जाल्यो. उद्देग धंदे, वेपारा सारकिल्या गजालींनी हें शार बरेंच मुखार सरलें. पॅरीस हें अंतर्गत जलमार्ग, लोहमार्ग आनी रस्ते हांचें व्हडलें केंद्र जालें. पयल्या म्हाझुजांत जर्मनीन उडयल्ल्या बॉमांक लागून पॅरीसाचें बरेंच लुकसाण जालें. पूण दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत फ्रांसाची हार अटळ आसा हें दिसतकूच पॅरीस आरक्षीत शार आशिल्लयाची घोशणा जाल्ल्यान तें जर्मनांच्या ताब्यांत गेलें आनी शाराची नुकसानी जावपाक पावली ना. जर्मनव्याप्त फ्रांसाचें झूज काळांत प्रशासन केंद्र पॅरीसांतूच आशिल्लें. ते उपरांत फ्रांसांत भूंयगत देशभक्तांचे उठाव जाले. १९४४ त दोस्तांच्यो सेना पॅरीसाच्या वाठारांत पावपाच्या अदमासाक भूंयगत सेनांनी उकतेपणान बंड केलें. म्हाझुजा उपरांतच्या काळांतूय पॅरीसाचें म्हत्व वाडत गेलें.

१९६० त पॅरीसांत शां एलिझाच्या अस्तंत तोंकाचेर रोन पॉलागीं नवें प्रदर्शन घर उबारलें. ह्याच वेळार नव्या भुंयारी मार्गाचो आराखडो करून शारांतल्यो अडचणी पयस केल्यो.

सेन न्हंय आनी तिच्या १२ किमी. लांबायेच्या मोडणाचो पॅरीस शाराचे सध्याचे रचणुकेचेर खूब म्हत्वाचो परिणाम जालो. ईल द ला सीते जुंव्यावयल्यानूच शाराचे वसणुकेक सुरवात जाली आनी दोनूय वटांनी न्हयेचे प्रवाह आशिल्ल्या कारणान ही सुवात इतिहास काळांत खुबूच सुरक्षीत थरली. हो भाग राजकीय आनी धर्मीक सत्तांचो केंद्रस्थान जालो. ह्या भागांत शासकीय आनी न्यायदानाविशींचीं कार्यालयां केंद्रीत जाल्लीं आसात तरी ही सुवात उणी पडटा देखून जुंव्याभोंवतणच्या भागांतूय तीं पातळिल्लीं आसात. सेन न्हंयेचे उजवे देगेर शॅर बाजार, बांक द फ्रांस, उदेंत-अस्तंत आनी उत्तरे कडलें लोहमार्गाचें केंद्रस्थान आसा. सेन न्हंयेचे दावे देगेर पॅरीस विद्यापीठ, म्युझीयम ऑफ नॅचरल हिस्टरी, वेधशाळा, इंस्तितूत द फ्रांस सारकिल्यो संस्था आसात.

पॅरीसांतले प्रशासन वेवस्थेची १९६५ सावन पुनर्रचणूक जाली. हे रचणुकेप्रमाण पॅरीस शार, नवीं स खातीं आनी सेन-ए-मार्नचें खातें हांचो पॅरीस विभाग (रीजन) तयार केलो. विभागीय प्रिफॅक्ट हो ताचो मुखेल आसता. दर एक नवें खातें आनी नूतन पॅरीस शार हांचेर स्वतंत्र प्रिफॅक्ट आसता. पोलीस खात्याचो प्रिफॅक्ट हो सादारणपणान सगळ्या म्हानगरी प्रदेशाचेर नियंत्रण दवरता. ही प्रशासन वेवस्था चडशी केंद्र सरकाराच्या अधिकारांत आसा.

पॅरीस नगरपालिका हें लोकनियुक्त मंडळ आसून ताचेर ९० प्रतिनिधी लोकांवतीन वेंचतात. पूण ते नगरपालिकेचें स्वरूप फकत सल्लागार मंडळासारकें आसता. पॅरीसांतल्या भौशीक कार्यावळी वेळार हे नगरपालिकेचो अध्यक्ष म्हापौराभाशेन (Mayor) काम पळयता. प्रशासनाच्या सोंपेपणाखातीर शाराचे वीस विभाग केल्ले आसून तांचीं कार्यालयां मदेकाद नगरभवनांत आसात. थंयच पोलीस, जस्टिस ऑफ पीस आनी नगरपालिकेचो अध्यक्ष हांच्योय कचेऱ्यो आसात. पॅरीसाचें प्रशासन राश्ट्रीय शासनाच्या ताब्यांत आसा. ताकालागून पॅरीसाच्या विकासाची खंयचीय येवजण आंखप आनी पुराय करप हें राश्ट्रीय राजकारण आनी अर्थकारण हांचेर आदारून आसा.

पॅरीस शाराचे वाडीवांगडा जायते ल्हान-व्हड मार्ग आनी पूल बांदल्यात. ह्या शारांत येरादारी खातीर ५५ मार्ग आसून उपनगरांत ९० आसात. पॅरीसाच्या केंद्रभागांतल्यान सगळ्या दिशांकडेन वचपी लोहमार्गूय आसात. पॅरीसाचो 'मॅट्रो' म्हणजे भुंयारी मार्गूय उल्लेख करपासारको आसा. न्हंयेच्यो दोनूय देगो बांदून काडिल्लयो आसात. जलमार्गाचीय वेवस्था आसा. पयसुल्ले भोंवडेखातीर सुपर म्हामार्ग आसात. पॅरीसांत तीन विमानतळ आसात. इतलीं साधनां आसुनूय येरादार ही ह्या शाराची व्हड अडचण आसा.

पॅरीसांत उद्देगधंद्यांचें केंद्रीकरण जाल्लें आसा. जायते उद्देगधंदे राजधानीच्या वाठारांत वाडत गेल्ल्यान ताचे वायट परिणाम जाणवतात. इलॅक्ट्रॉनिकी, विमान उद्देग, मोटारबांदणी सारकिले यंत्रीक आनी अवजड

उद्देगधंदे शाराच्या नैर्ऋत्य तोंकापसून ईशान्य तोंकामेरेन पातळिल्ले आसात. फ्रांसांतलो ८०% मोटार उद्देग पॅरीसांत केंद्रीत जाल्लो आसा. पॅरीस ही आंतर्देशीय आनी आंतरराश्ट्रीय वेपाराची व्हड बाजारपेठ. ल आलची बाजारपेठ पंदराव्या शेंकड्यापसून नामनेक पाविल्ली आसून ती पाँ नफलागीं उत्तरेक आसा. ह्या बाजाराक भेट दिलेबगर पॅरीस दर्शन पूर्ण जायना अशें म्हण्टात.

पॅरीसाचे स्वतंत्र वेवसाय करपी कारागीर आपापल्या घरांतूच जावं ल्हान कर्मशाळांनी काम करतात. वेगवेगळ्यो बाजार आळी खास अशे कारागिरीच्या कामाखातीर फामाद आसात. रूअ द रिव्होली, रूअ द लाप आनी रूअ सँ ह्यो पॅरीसाच्यो फामाद बाजारपेठो. लॅटीन विभागांत जायत्या पोरण्या-नव्या पुस्तकांचीं शेंकड्यांनी दुकानां आसात.

पॅरीस विद्यापीठ हें जगांतले एक नामनेक पाविल्लें आनी फुडारिल्लें विद्यापीठ मानतात. सॉरबॉनाची शिक्षणीक केंद्र म्हणून इतिहास काळापसून नामना आसा. मूळ जुंव्याच्या दक्षिण भागांतल्या 'बुलव्हार द सां मिशॅल' ह्या रस्त्याचेर विद्यापीठाच्यो इमारती आसून मध्य युगापसून 'लॅटिन विभाग' म्हणून हो फामाद आसा. पॅरीसाचें राश्ट्रीय ग्रंथालय संवसारीक नामनेचें तातूंत ४० लाख ग्रंथ आनी हजारांनी हातबरपां आसात.

पॅरीसांत सगळीं मेळून १९ दिसाळीं आनी आयतारा प्रसिद्ध जावपी तीन सप्तकी नेमाळीं आसात.

ललित कलांच्या मळांचेर पॅरीस फुडें आसून नव्या-नव्या फॅशनींक हांगाच्यानूच सुरवात जाता. कॉमीदीए फ्रांसेझ, पॅरीस ऑपेरा आनी ऑपेरा कॉमिक हीं शासकी नियंत्रणाखाला येवपी नाटकघरां आसात.

जगांतल्यो मोलादीक कलाकृती पॅरीसाच्या संग्रहालयांनी पळोवपाक मेळटात. चित्रकार आनी शिल्पकार हांच्यो कलाकृती लक्झेम्बर्ग संग्रहालयांत पळोवपाक मेळटात. व्हड कलाकारांच्यो वेंचीक कलाकृती तांच्या मरणाउपरांत संग्रहालयांत धाडटात. ह्या संग्रहालयांत पुर्विल्ल्यो आनी आधुनीक कलाकृती प्रदर्शनाखातीर दवरिल्ल्यो आसात. तेभायर मध्ययुगीन कलाकृतींचें क्लूनी संग्रहालय, पॅरीसाचो इतिहास दाखोवपी कार्नावाले संग्रहालय, भारतीय आनी उदेंती कलाकृतींचें म्यूझे गिमॅ संग्रहालय, म्यूझे द ला आर्त फ्रांसेझ, फ्रँच शिल्पाकृतींचें संग्रहालय सारकिलीं आनी फ्रँच वसणुकांतल्या कलाकृतींचें, मानववंशशास्त्राचें, विज्ञानविशयक बी संग्रहालयां पॅरीसांत आसात. समकालीन कलाकृतींचें प्रदर्शन नॅशनल म्युझीयम ऑफ मॉर्डन आर्टांत भरयतात.

पॅरीसांत सोबीत उद्यानां आनी उपवनां आसात. शाराच्या अस्तंत भागांत 'ब्वा द बूलॉय' हें कृत्रीम उपवन आसा. शाराच्या उत्तर भागांत मॉसो, ब्यूटस-शांमाँ हीं उद्यानां आनी मदेकाद त्वीलरी बाग आसा. त्वीलरीचो राजवाडो १८७१ त क्रांतीकारकांनी उद्ध्वस्त केल्लो त्या जाग्याचेर ही बाग आसा. आयफॅल टावर सेन न्हंयेचे दावे देगेर आसा. ताचे उदेंते वटेन ऑतॅल देझ व्हालीद ही निवृत्त शिपायांक रावपाची व्हडली इमारत आसा. हांगाच नॅपोलियन बोनापार्ताचें थडें आसा. जारदां द प्लांत हें पॅरीसाचें वनस्पती उद्यान आसून तातूंत एक प्राणिसंग्रहालय आसा. प्लास द ला कॉंकॉर्दचे वायव्येक द पालॅ द ला एलिझे हें फ्रांसाच्या अध्यक्षाचें निवासस्थान आसा. लूव्हर राजवाडो त्वीलरी उद्यानाचे उदेंतेच्या तोंकाक आसून तो फ्रँच वास्तुशिल्पाचो नमुनो मानतात. पालॅ र्‌वाय्याल लूव्हरचे उत्तरेक आसा. लूव्हरचे वायव्येक तिसऱ्या नॅपोलियनान बांदिल्ली ऑपेरा ही व्हडली इमारत आसा. ऑतॅल द व्हिल म्हणजे नगरभवन न्हंयेचे उजवे देगेचेर नोत्रदाम कॅथीड्रलाचे उत्तरेक आसा. पालॅ द जुस्तिस मूळ जुंव्याचेर आसून तातूंत पॅरीसाची पोलीस कचेरी आनी न्यायालयां आसात. ऑतॅल ध ही सातव्या शेंकड्यांतली व्हडली इमारत आसून थंय हॉस्पिटल आसा. सेनचे दक्षिणे वटेन आशिल्ल्या लक्झॅम्बर्गच्या सोबीत राजवाड्यांत फ्रँच विधिमंडळाचीं अधिवेशनां जातात. उदेंतेवटेन माँ सँ झंव्हेव्हाचेर पँथीऑ हे पॅरीसाचे संरक्षक देवतेची सँ झंव्हेव्ह ही इगर्ज आसा. हे इमारतींत रुसो, व्हॉल्तॅर, व्हिक्टर ह्युगो हांचेसारक्या व्हड फ्रँच व्यक्तींचीं थडीं आनी स्मारकां आसात.

पॅरीसांतलें नोत्रदाम कॅथीड्रल नामनेचें आसा. मूळ जुंव्याचेर सेंट लुईन तेराव्या शेंकड्यांत बांदिल्लें सँ शापॅल आसून तातूंतलें चित्रकाम सोबीत आसा. माद्‌लेन ही चतुश्कोणी इगर्ज आसून तिच्या व्हडल्या खांब्यांचेर कलाकुसर केल्ली आसा. साक्रे - कर ही इगर्ज माँमार्त्र हे सगळ्यांत व्हड दोंगुल्लेचेर आसून तिचो कळस चकचकीत धवो आसा.

व्हडल्या चौकांचें आनी रूंद, सरळ रस्त्यांचें शार म्हणून पॅरीसाची नामना आसा. चौकांचो आंकडो सुमार १३० आसा. तातूंतले 'प्लास द ला कॉंकॉर्द', 'प्लास द ला त्वाल', 'प्लास द ला बॅस्तील' हे फामाद आसात. पयल्या चौकांत फ्रांसाच्या आठ शारांचे प्रतिकात्मक पुतळे आनी इजिप्तांतले लक्सॉर देवळाभायल्या अश्टकोनी खांब्यांतलो एक खांबो दवरिल्लो आसा. ह्याच चौकांत क्रांतिकाळांत 'गिलोटीन' हें यंत्र उबारिल्लें. सोळाव्या लुई आनी मारी आंत्वानेताचो शिरच्छेद हांगाच जाल्लो. प्लास द ला त्वाल ह्या चौकांत नेपॉलियन बोनापार्टान उबारिल्ली विजयकमान आसा. प्लास द ला कॉंकॉर्दालागीं प्लास द ला कारूझील चौकांत नॅपोलियनान उबारिल्ली आनीक एक विजयकमान आसा. प्लास द ला बॅस्तील चौकांत फ्रँच राज्यक्रांतीच्या हत्याकांडांतलो किल्लो आशिल्लो. १८३० चे क्रांतीचे यादीखातीर तातूंत एक 'जुलय स्तंभ' उबारिल्लो आसा.

संवसारीक राजकारणांत म्हणजेच चड करून युरोपी राजकारणांत पॅरीसाक खूब म्हत्व आसा. जायते करारनामे हांगाच जाल्यात. पयल्या म्हाझुजाच्या शेवटाक जाल्ले जायते करारनामे पॅरीसांतले नासले तरीय पॅरीसाच्या वाठारांतल्या व्हर्सायसारक्या जाग्यांचेर जाल्ले आसात.

जायत्यो परिशदोय पॅरीसांत जाल्ल्यो आसात. पयल्या म्हाझुजाच्या शेवटाक १९१९ त करारनाम्याचो विचार करपाखातीर ३२ राश्ट्रांची परिशद हांगाच भरिल्ली. १९४६ वर्सा दुसऱ्या म्हाझुजाच्या शेवटाक २१ राश्ट्रांच्या प्रतिनिधींनी इटली, हंगेरी, बल्गेरिया, रुमानिया, फिनलँड ह्या देशांकडेन जावपी करारनाम्यांचेर हांगाच विचार केल्लो. १९४८ आनी १९५१ त एकवटीत राश्ट्रांच्या आमसभेच्यो बसका पॅरीसांतूच जाल्ल्यो. १९६० मेरेन नाटो संघटनेचें ठाणें हांगाच आशिल्लें. युनॅस्कोचें कार्यालयूय हांगाच आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**पॅर्स, सँ-जॉन :** (जल्म : ३१ मार्च १८८७, ग्वादालूप, वॅस्ट इंडीज; मरण : २० सप्टेंबर १९७५, झीअ).

फ्रँच कवी आनी मुत्सद्दी. ताचें मूळ नांव आलेक्सी सँ लेजे. एका प्रतिश्ठीत कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. पिरायेच्या इकराव्या वर्सा तो फ्रांसांत आयलो. दक्षिण फ्रांसांतल्या पो ह्या शारांत ताचें शालेय शिक्षण

जालें. उपरांत पॅरीसांत बोर्दो विद्यापिठांत रोमी कायदो आनी ग्रीसी गिन्यान ह्या विशयांचो ताणें अभ्यास केलो.

मुत्सद्दी जावंचेपयलींच ताणें कविता बरोवंक सुरवात केल्ली. १९११ त ताणें 'एलाज' हो पयलो काव्यांझेलो उजवाडायलो. १९१४ त ताणें फ्रॅंच परराश्ट्रीय खात्यांत प्रवेश घेतलो. १९१६ ते १९२१ ह्या काळांत बिजींगांतले फ्रॅंच वकिलातींत मुखेल सचीव म्हणून ताणें मोलादीक वावर केलो. ह्या पदाचेर आसतना चिनाभाशेनूच कोरिया, मोंगोलिया आनी जपान ह्या देशांनीय ताणें भोंवडी केली. फ्रांसाच्या विदेश खात्यांत सेक्रेटरी जनरल ह्या पदामेरेन ताका बडटी मेळ्ळी. पूण पॅरीस पडटकूच नाझीचो अनुनय करपाचें न्हयकारिल्ल्यान ताणें नोकरेचो राजिनामो दिवन, देशत्याग केलो आनी अमेरिकेक गेलो. १९२१ त ताणें उदेंत आशियायी वेव्हारांचो तज्ञ म्हणून वॉशिंग्टनांत जाल्ले निशस्त्रीकरण परिशदेंत वांटो घेतलो. उपरांत तो Aristide Briand ह्या शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार मेळयल्ल्या फ्रॅंच राज्यकर्त्याचो सचीव जालो. १९३३ त विदेश मंत्रालयांत राजदूत ह्या पांवड्यावयलो सरचिटणीस जालो. १९४० त व्हिशी सरकारान ताका कामावयल्यान काडून ताचें फ्रॅंच नागरिकत्व काडून घेतलें.

अमेरिकेक आसतना थयच्या 'लायब्ररी ऑफ काँग्रेस' हातूंत फ्रॅंच साहित्याचो सल्लागार म्हणून ताणें काम केलें. 'अमेरिकन अॅकॅडमी ऑफ आर्ट्स अँड लॅटर्स' चें वांगडीपणूय ताका दिलें.

फ्रांस मुक्त जातकूच ताका फ्रॅंच नागरीकत्व परत दिलें आनी १९५७ त फ्रॅंसांत परत गेलो. १९५९ वर्सा ताका साहित्याचें 'ग्रां प्री' हें इनाम फावो जालें.

प्रतिभा आनी प्रतिकांनी समृध्द अशें काव्य आपल्या असामान्य अशे प्रतिभाशक्तीन बरोवन समाजाक एक देखदिणी नदर ताणें दिली. ह्या ताच्या मोलादीक वावराखातीर १९६० वर्साचो साहित्याखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार ताका फावो जालो. १९६७ वर्सा 'अमेरिकन अॅकॅडमी ऑफ आर्ट्स अँड लेटर्स' काव्याचें इनाम दिवन ताचो भोवमान केलो.

ताचे कांय उल्लेख करपासारके काव्यांझेले आसात ते अशे -

आनाबाझ (१९२४), एक्झिल (१९४२), व्हां (१९४६), आमॅर (१९५७) आनी क्रोनीक (१९६०).

आनाबाझ ही ताची दीर्घ कविता. एक्झिल ही कविता ताणें आपल्या हद्दपारिच्या काळांत बरयली.

- कों. वि. सं. मं.

**पाऊल, बोनावेन्तूर पॅट्रीक O.F.M. :** (जल्म : चिखली, कोलवाळ).

पाकिस्तानांतल्या हैदराबादचो बिशप. धर्मीक शिक्षण घेतले उपरांत तो १९५४ त पाद्री जालो. १९७१ त ताची बिशप म्हणून नेमणूक जाली. उपरांत तो आपले डायोसीझाचो वावर करूंक लागलो.

- कों. वि. सं. मं.

**पांचरात्र :** सगूण भक्तीक म्हत्व दिवपी एक प्राचीन संप्रदाय. ह्या संप्रदायान तंत्रीक पद्धत आपणायल्ली. महाभारत काळांत वेदान्तमता उपरांत पांचरात्रमताकूच म्हत्व आशिल्लें. पंच आनी रात्र ह्या दोन घटकांपसून 'पांचरात्र' हो शब्द तयार जालो. पांच देव, पांच पुजाप्रकार वा पांच गिन्यानाचे प्रकार, अशे ह्या शब्दाचे अर्थ सांगल्यात. शतपथ ब्राह्मणांत पांच दीस चलपी सत्राक पांचरात्र अशें म्हळां.

ईश्वराची सगूण रुपांत उपासना करपाची पद्दत शिव आनी विष्णु हांचे उपासनेन चालींत आयली. पूण उपरांत विष्णु सगूण रूपाक चड म्हत्व मेळ्ळें. ब्राह्मणकाळांत विष्णु हो सर्वश्रेश्ठ देव अशी भावना निर्माण जाली. महाभारत काळांत विष्णु अवतार वासुदेव कृष्णाचे उपासनेक पांचरात्र अशें म्हळां.

पुराणांनी आनी स्मृतींनी पांचरात्राची निंदा केल्या. पांचरात्रमताचे लोक अहिंसामूलक भक्तिमार्गाचो प्रचार करताले, देखून वैदिक लोकांनी तांकां पयस दवरिल्ले अशें डॉ. केतकराचें मत. पूण भागवत, महाभारत आनी विष्णु पुराणांत पांचरात्रीकांची तोखणाय केल्या. पांचरात्र संप्रदायांत दर्शन, मंत्र, यंत्र, माया, योग, मंदिरनिर्माण, प्रतिश्ठाविधी, संस्कार, वर्णाश्रमधर्म आनी उत्सव अशा धा विशयांची म्हायती दिल्ली आसा. हांचेवयल्यान ताणीं भक्तीमार्गावांगडा योग, मंत्र, तंत्र आनी हेर तंत्रीक पद्धतीचेरूय भर दिल्ल्याचें स्पश्ट जाता. महाभारतांतलें नारायणीयोपाख्यान हें ह्या तंत्राचें मूळ स्त्रोत. पांचरात्र शास्त्रांत ज्ञान, योग क्रिया आनी चर्या हांचे विवेचन केल्लें आसा.

पांचरात्र तंत्राच्या दार्शनीक सिध्दांता प्रमाण ब्रह्म हें अनादी, अनंत, अक्षर आसा. ब्रह्म हें व्यक्त आनी अव्यक्त, तशेंच साकार आनी निराकार आसा. ज्ञान, शक्ती, ऐश्वर्य, बल, वीर्य आनी तेज हे ब्रह्माचे स गूण. ह्या गुणांच्या योगानूच त्या ब्रह्माक भगवान म्हण्टात. ज्ञान हें ब्रह्माचें स्वरूप आनी ताचो गुणूय. जगाची व्यूत्पत्ती - प्रलय करपाचें सामर्थ्य म्हळ्यार शक्ती. एश्वर्य म्हळ्यार स्वतंत्रतापूर्वक कार्य करपाची शक्ती. बल म्हळ्यार थकनासतना संवसाराची रचणूक करप. वीर्य म्हळ्यार सृश्टीचें उपादान जावनूय विकाररहीत आसप. तेज म्हळ्यार कोणाचोच आदार घेनासतना सृश्टी घडोवप. ह्या स गुणांतले 'ज्ञान' हेंच देवाचें श्रेश्ठरूप. वासुदेव, संकर्षण, प्रद्यम्न आनी अनिरूध्द हे भगवंताचे चार व्यूह वा रूपां. जगाच्या कल्याणाखातीरूच भगवान ह्या चार रुपांची सृश्टी करता. हातूंतलो वासुदेव हो परमात्मो, संकर्षण हो भगवंताचो भाव, प्रद्युम्न हो पूत आनी अनिरूध्द हो नातू. वासुदेवा खेरीज उरिल्ल्या तीन व्यूहांनी सगुणांतले प्रत्येकी दोन-दोन गूण आसतात. सृश्टीची रचना करप हें संकर्षणाचें कार्य, पांचरात्रक्रियेचें शिक्षण दिवप हें प्रद्युम्नाचें कार्य, जाल्यार क्रियाफल अर्थात मोक्ष हाचें तत्त्व प्रतिपादन करून दिवप हें अनिरुध्दाचें कार्य. व्यूहकल्पना हो पांचरात्रीकांचो म्हत्वाचो सिध्दान्त.

साधनमार्गाचें प्रतिपादन करप, हें पांचरात्र पंथाचे प्रधान लक्ष. पांचरात्रांनी त्रैवर्णिकांक साधनेचे अधिकारी मानल्यात. साधकाक दिक्षागुरूची गरज आसता. दिक्षा दिवपी गुरू योग, मंत्र, तंत्र आनी हेर गजालींनी निपूण आसचो. शिश्यान गुरूक शरण वचून ताचेकडल्यान उपदेश घेवंचो अशे तातूंत सांगलां. सुरवातेक शिश्याक गुरून दिल्लें शास्त्र गुपीत दवरतलो म्हणून सपूत घेवंचो पडटा. साधना खंय करची आनी खंय करची न्हय, हाचीय सुवात तातूंत सांगल्या. पांचरात्रमतांत योगसाधनेचेर चड भर दिला.

शास्त्रोक्त पध्दतीन देवूळ निर्माण करप आनी तातूंत इष्टदेवतेची विधिपूर्वक प्रतिश्ठा करून तिची संप्रदाय पद्धतीन पूजा-अर्चा करप, होय एक पांचरात्र साधनेचो म्हत्वाचो भाग. अशा तरेच्या उपासनेच्या बळार साधकाक मोक्ष प्राप्ती जाता.

पांचरात्र संप्रदायाची साहित्यिक संपत्ती व्हड आनी विस्तृत आसा. पूण तातूंतले साहित्य सद्यामेरेन साप्प उण्याप्रमाणांत उजवाडा आयलां. उजवाडा आयिल्ल्या साहित्यांतलें चडशें दक्षिण भारतांत तेलुगू लिपींत आसा. हो संप्रदाय उत्तर भारतांत निर्माण जालो आनी उपरांत तो दक्षिण भारतांत पातळ्ळो. पांचरात्र संहितांतल्यो साबार संहिता दक्षिण भारतांत निर्माण जाल्यो. पांचरात्र मताचें सगळ्यांत पयलीं विवरण शांतिपर्वांतल्या नारायणीय उपाख्यानांत केल्लें आसा. कपिंजल संहितेच्या निर्देशाप्रमाण पांचरात्र संहितांची संख्या २१५ आसून तातूंत अगस्त्य, काश्यप, नारदीय, महासनत्कुमार, वासिष्ठ, वासुदेव, विश्वामित्र आनी विष्णुरहस्य ह्यो संहिता म्हत्वाच्यो आसात.

आयजमेरेन तेरा संहिता प्रकाशीत जाल्ल्यो आसून तांचीं नांवां अशीं – अहिर्बुध्न्य, ईश्वर, कपिंजल, जयाख्य, पराशर, पाद्मतंत्र, बृहद्ब्रह्म, भारद्वाज, लक्ष्मीतंत्र, विष्णुतिलक, श्रीप्रश्न, विष्णु आनी सात्वत. हातूंतल्यो स संहिता नागरी लिपींत छापिल्ल्यो आसून, सात संहिता तेलुगू लिपींत आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**पांडव :** हस्तिनापूरांतल्या पांडूराजाचे पांच पूत आनी महाभारताचे नायक. शंतनू पसून सत्यवतीक विचित्रवीर्य नांवाचो पूत जालो. तो निपुत्रीक मेले उपरांत ताची बायल अंबालिका हिका व्यासमूनी पसून नियोगावरवीं पूत जालो ताचें नांव पांडू. निपुत्रीक पांडूक बायलेकडेन भोग केल्यार मरण येतलें असो एका ऋषीन शाप दिल्लो. पुताबगर स्वर्गप्राप्ती मेळना म्हणून ताणें आपल्या कुंती आनी माद्री ह्या बायलांक नियोगावरवीं पुतांची निर्मिती करपाची आज्ञा दिली. कुंतीक ल्हान आसतना दुर्वास ऋषीन एक मंत्र दिल्लो. त्या मंत्राच्या बळार कुंतीक यमापसून धर्मराज (युधिष्ठिर), वायू पसून भीम आनी इंद्रापसून अर्जून हे तीन पूत जाले. कुंतीन एक मंत्र माद्री हे आपले सवतीक दिलो. त्या मंत्राच्या बळार अश्विनीकुमारा पसून माद्रीक नकूल आनी सहदेव अशे दोन पूत जाले. धर्मराज, भीम, अर्जून, नकूल आनी सहदेव ह्या पांडूच्या पांचूय पुतांक पांडव अशें म्हण्टात. धृतराष्ट्राच्याच पुतांक जरी कौरव अशें म्हळें तरी पांडव हेवूय कुरू कुळांतले आशिल्ल्यान कौरव थारतात. तांकां 'भारत' 'कौंतेय' 'पार्थ' अशेंय म्हण्टाले. अस्त्रविद्येंत प्रविण आशिल्ल्या द्रोणाचार्याकडल्यान पांडवांनी प्रशिक्षण घेतलें.

महाभारताचे कथेप्रमाण हस्तिनापूरच्या राज्याचो भीष्म हो सुत्रधार आशिल्लो. ताणें पांडू राजाउपरांत युधिष्ठिराचेर राज्याभिशेक केल्ल्यान राज्य वेव्हार आपशींच पांडवांच्या हातांत आयलो. धृतराष्ट्र आनी ताचे कौरव पूत पांडवांचो दुस्वास करपाक लागले आनी तांचे मदली दुस्मानकाय वाडत गेली. पांडवांक सतावपा पासत कौरवांनी तरा तरांचीं कपट-कारस्थानां रचलीं. पांडवांक लाखेघरांत हुलपावन मारपाचो तांणी कट रचलो पूण थंय पांडव कसलीच दुखापत जायनासतना वाटावले. उपरांत पांडवांनी कांय काळ अज्ञातवासांत गुप्त रावपाचें थारायलें आनी ते रानांत गेले. द्रौपदी स्वंयवरांत वांटो घेवन अर्जूनान पण जिखलो आनी उपरांत आवयचे सांगणेवयल्यान पांचूय पांडव द्रौपदीकडेन लग्न जाले. इंद्रप्रस्थांत रावपाक आयले उपरांत भीम, अर्जून, नकूल आनी सहदेव हाणीं चारूय दिशा जिखून खूब धनसंपत्ती मेळयली. पांडवांचें ऐश्वर्य मेळोवंचे पासत कौरवांनी द्यूत खेळपाचो प्रस्ताव मुखार केलो. द्युतांत पांडव हारले आनी द्रौपदी सकट सगळें ऐश्वर्य वगडावन बसले. द्युतांत हारता तांणी बारा वर्सां वनवास आनी एक वर्स अज्ञातवास आपणावपाची अट आशिल्ल्यान द्रौपदीसयत पांडव वनवासाक गेले.

अज्ञातवास सोंपून पांडव परत आयल्या उपरांत तांकां राज्य दिवपाचें कौरवांनी न्हयकारलें. तेन्ना तांचेमदीं व्हड झूज जालें. कौरवांचो नाश केले उपरांत पांडवांनी सुमार ३६ वर्सां राज्य केलें. म्हाझुजांत पांडव वांचले पूण तांचे सगळे पूत सोपले. अर्जूनाचो नातू परीक्षित हो राजा जालो. उपरांत जन्मेजय ह्या परीक्षिताच्या पुतान राज्य केलें. उपरांत कांय काळान पांडवांच्या वंशजांचें राज्य ना जालें. गौतम बुध्दाच्या काळांत पांडवांच्या वंशजांक दोंगराळ वाठारांतली एक जमात म्हणून वळखुपाक लागले. आपणाक पांडवांचे वंशज मानपी 'तुआर' हे राजपूत जमातीच्या लोकांनी इसवी सनाच्या आठव्या शेंकड्यांत अनंगपालाच्या मुखेलपणाखाला दिल्लीक राज्याची स्थापणूक केली. पूण पृथ्वीराज चौहानाचेर (तुआरांचो सोयरो) कुरूक्षेत्राचेरूय शहाबुद्दीन घोरीन हार घाली.

पांडव हे इतिहासीक व्यक्ती नासून बऱ्या गुणांची देख म्हणून निर्मिल्लीं तीं कविकल्पीत पात्रां अशें एक मत मांडटात. कौरव-पांडव हे दोन वेगवेगळ्या वंशांचे लोक आशिल्ले, एकमेकांच्या शेजाराक रावून संघर्श करपी दोन जमाती आशिल्ल्यो, पांडव कौरव हे बापोलभाव ही कल्पना उपरांत मांडल्या अशींय मतां आसात.

एकापरस चड बायलो, नियोग पद्दत आपणावप, भीमाची रगत पियेवपाची करणी हाचे वयल्यान पांडव हे चडकरून मोंगोलीयी, सिथियी वा भारतांतल्या अनार्य अशा देशी वंशांतले आसूं येत अशेंय आनीक एक मत आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पांडे, भिकुभाय दयाभाय :** (जल्म : २६ मे १९१२, दमण).

सुटकेझुजारी. ताणें आयुर्वेदीक वैजकीची पदवी मेळयली. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९४८ त दमणांत जाल्ल्या शेतकारांचे चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९५४ वर्सासावन तो दमणाचे सुटके चळवळीखातीर वावर करूंक लागलो. वापी आनी कुन्टाच्या आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या शिबिराचो तो मुखेल आशिल्लो. पुर्तुगालाआड दमणाक धाड घालपाचो ताणें बेत केल्लो. १९५४ त नगर हवेलीचे सुटके चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**पांड्य राजवंश :** तमीळनाडच्या प्राचीन इतिहासांतलो एक म्हत्वाचो राजवंश. पांड्य वंशाचें राज्य वल्लुरू न्हंयेचे दक्षिणेक कन्याकुमारी मेरेन पातळिल्लें. तातूंत तिन्नेवेल्ली, मदुरा आनी रामनाड जिल्हे, तिरुवितांकूराचो दक्षिणेकडलो भाग आस्पावल्लो. मदुरा हें तांचें राजपाटण आशिल्लें.

रामायण, महाभारत, बृहत्संहिता, महावंश आनी हेर ग्रंथांनीय पांड्य हांचे उल्लेख मेळटात. म्हावंशावयल्यान बुध्दाच्या निर्वाणाउपरांत लंकेचो राजकुंवर विजय आनी पांड्य राजकुमारी हांचें लग्न जाल्ल्याचें कळटा.

कात्यायनान पांडू ह्या उतरा वयल्यान पांड्य ह्या नांवाची व्युत्पत्ती सांगल्या आनी पांडवांकडेन पांड्यांचो संबंद जोडपाचो यत्न केला. मेगॅस्थिनीस हाच्या मतान, हेरेक्लीज हाची धूव पंडाइया हिच्या नांवावयल्यान पांड्य हें नांव मेळ्ळें. कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत सम्राट अशोक हाच्या शिलालेखांत तशेंच स्ट्रॅबो आनी टॉलेमी हांच्या ग्रंथांनीय पांड्यांचो उल्लेख मेळटा.

तमीळ संघमसाहित्यांत प्राचीन पांड्य घराण्याची थोडीभोव म्हायती मेळटा. तातूंतलो पयलो राजा मुदुकुडूमी पेरुवळुदी हो खूब पराक्रमी आशिल्लो. ताणें साबार झुजांनी जैत मेळोवन खूब यज्ञ केल्ले. चोळ, चेर आनी हेर राजांनी मेळून तिसऱ्या शेंकड्यांत पांड्य देशाचेर आक्रमण केल्लें आनी नेडूंजेलियन ह्या पांड्य वंशजान हें आक्रमण मोडून उडयल्लें हाचोय उल्लेख मेळटा. नेडूंजेलियन हो एक व्हड कवी आशिल्लो आनी ताणें साबार कवींक आलाशिरो दिल्लो.

उग्र नांवाच्या राजाउपरांत आंध्राचे दक्षिणेंतल्या आक्रमणांक लागून तमीळ प्रदेशाचे उत्तर शिमेवयल्या कळवार लोकांक दक्षिणेंत स्थलांतर करचें पडलें. हाका लागून चोळ आनी पांड्य राज्यां कोसळ्ळीं. मुखार सव्या शेंकड्याचे निमाणें कडुंगोन (५९०-६२०) हाणें नव्या राजवंशाची स्थापणूक केली. ह्या वंशाचो चवथो राजा अरिकेसरी मारवर्मा (६७०-७००) हाणें पांड्य साम्राज्याची बुन्याद घाली. पल्लव आनी चेर राजांकडेनूय ताचो संघर्श जाल्लो. मारवर्मा राजसिंह (पयलो) (७३०-७६५) हो लेगीत खूब पराक्रमी आशिल्लो. ताणें चालुक्य हांच्या आदारान पल्लव राज्याचेर आक्रमण करून तंजाऊरच्या भोंवतणचो चडसो प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडिल्लो. पल्लवराजा नंदिवर्मा पल्लवमल्ल हाचेर साबार फावटीं हार घालून राजसिंहान आपल्याक पल्लवभजन ही पदवी घेतल्ली. मुखार चालुक्य राजा कीर्तिवर्मा (दुसरो) हाचेरूय ताणें हार घाल्ली. राजसिंहाचो चलो नेडुंजडैयन (७६५-८१५) हाणें आपलें साम्राज्य खूब वाडयल्लें. तंजाऊर, तिरुचिरापल्ली, सेलम, कोइंबत्तूर आनी दक्षिण तिरुविकांकूर हेय प्रदेश ताचे सत्तेखाला आशिल्ले.

ह्या वंशांतल्या श्रीमार श्रीवल्लभ राजान (८१५-६२) लंकेचेर घुरी घालून थंयची राजधानी लुटिल्ली. पल्लव राजा नृपतुंग हाणें श्रीवल्लभ हाचेर पुराय हार घाली. त्याच सुमाराक लंकेच्या राजान पांड्य राज्याचेर घुरी घालून ताची राजधानी लुटिल्ली. अशे रितीन पांड्यांक पल्लवांचें स्वामित्व आपणावचें पडलें. पल्लवांचो अंत जाले उपरांत, पांड्य राजांक उत्तरेक चोळ हांचेकडेन संघर्श करचो पडलो. चोळ राजा परांतक हाचेकडेन केल्ल्या झुजांत मारवर्मा राजसिंह दुसरो (९००-९२०) हाचेर हार पडून ताणें सुर्वेक लंकेंत आनी उपरांत केरळांत आलाशिरो घेतिल्लो. चोळांनी पांड्यांचो खूब प्रदेश खालसा केलो आनी अशे रितीन कडुंगोन हाणें स्थापणूक केल्ल्या पयल्या पांड्य साम्राज्याचो अंत जालो.

पांड्य राजांनी राजेंद्र चोळ, कुलोत्तुंग पयलो आनी तिसरो ह्या चोळ राजांच्या तेंपार आपलें स्वतंत्र राज्य परत उबारपाचे खूब यत्न केले, पूण तांकां येस आयलेंना. राष्ट्रकूट राजान तक्कोलम नगरांत चोळांचेर हार घाल्ल्या कारणान कांय तेंप पांड्य राज्य स्वतंत्र जालें. पूण राजराज चोळ हाणें तांचेर परत जैत मेळयलें. अधिराजेंद्र चोळ हाच्या तेंपार पांड्य राजांनी उठाव केल्लो, पूण कुलोत्तुंग हाणें तो मोडून उडयलो. ताणें पांड्य देशांत खूब लश्करी तळ उबे केल्ले. मुखार चोळ हांचे सत्तेक देंवती कळा लागिल्ल्यान ११९० त जटावर्मा कुलशेखर पांड्य हाणें स्वतंत्र राज्य सुरू केलें. कुलोत्तुंग चोळ (तिसरो) हाचेर हार घालून ताणें तंजाऊर, चिदंबरम आनी हेर प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडले. मुखार मारवर्मा सुंदर पांड्य (दुसरो-१२३८-५१) हाणें तिसऱ्या कुलोत्तुंगाचेर हार घालून आपलें राज्य वाडयलें. तातूंत तिरूचिरापल्ली आनी पुदुकोट्टई ह्या उत्तरेकडेन आशिल्ल्या प्रदेशांचो आस्पाव आशिल्लो. हाचो वंशज पयलो जटावर्मा सुंदर पांड्य (१२५१-६८) हाणें पांड्यांचें दुसरें साम्राज्य उबारलें. ताणें चेर, होयसळ, आंध्र, काकतीय, चोळ आनी बाण राजांचेर हार घाली. लंकेचेर घुरी घालून ताणें तिचो उत्तर भाग आपल्या शेकातळा दवरलो. लंकेसावन नेल्लोर आनी कडप्पामेरेन ताचें साम्राज्य पातळिल्लें.

जटावर्मा सुंदर पांड्य हाणें राजकुंवरांक उपराजा म्हणून शासनवेवस्थेंत घेतिल्ले. ताच्या तेंपार जटावर्मा वीर पांड्य आनी मारवर्मा कुलशेखर हे उपराजा म्हणून काम करताले. मारवर्मा कुलशेखर (१२६८-१३०९) हाच्या तेंपार मार्को पोलो हो विदेशी भोंवडेकार पांड्य देशांत आयिल्लो. त्या काळांत पांड्यांच्या राज्यांत वेपाराचीय भरभराट जाल्ली.

कुलशेखर पांड्य हाका औरस आनी अनौरस अशे दोन पूत आशिल्ले. राजान जटावर्मा वीर पांड्य ह्या अनौरस पुताक गादयेर बसोवंचें थरयल्लें म्हणून सुंदर पांड्य हाणें १३१० त आपल्या बापायचो वध करून गादी हातासली. उपरांत कांय दिसांनीच अलाउद्दीन खिलजीचो सरदार मलिक काफूर हाणें मदुरेचेर घुरी घाली. यादवी आनी मुसलमानी आक्रमणांक लागून पांड्यांची सत्ता दुबळी जावन साम्राज्याचे खूबशे भाग स्वतंत्र जाले. १३२९ सालांत मुसलमानांनी परत घुरी घालून मदुरा नगरी घेतली आनी दिल्लीच्या सुलतानान थंय आपलो सुभेदार नेमलो. अशे इबाडिल्ले स्थितींतूय मदुरा, रामनाड, तिन्नेवेल्ली, तंजाऊर, दक्षिण अर्काट आनी पदुकोट्टाइ ह्या भागांचेर पांड्यांचें राज्य चालूच आशिल्लें. उपरांत युवराज कंपन हाणें पांड्य राज्याचेर आक्रमण करून ताचो चडसो भाग विजयनगराच्या साम्राज्यांत आस्पावन घेतलो. पांड्यांची सत्ता फकत तिन्नेवेल्लीक आशिल्ली. ल्हव ल्हव करून उपरांत १६ व्या शेंकड्याचे सुर्वेक पांड्य राजवंशाचो पुरायपणान नाश जालो.

हेर भारतीय राजांवरी पांड्यांनीय विद्या आनी कला हांकां उत्तेजन दिलें. राज्यकारभारांत पांड्यांनी नवी सुदारणा केल्ली. जण एकलो पांड्य राजा आपले वांगडा आपल्या पुतांकूय राज्यशासनांत अधिकार दितालो. जटावर्मा वीर पांड्याच्या तेंपार ताच्या चार चल्यांनी ताचेवांगडा राज्यकारभारांत वांटो घेवन बापायक आदार दिल्लो हाचोय उल्लेख मेळटा. पल्लव राजांनी सुरु केल्ल्या द्रवीड शिल्पशैलीचो विकास चोळ आनी पांड्य राजांनी केलो. पल्लवांच्या गुहादेवळांसारकेलीं देवळां पांड्य राजांनी तळपांत खणलीं. तिरूमलैपुरमचें त्या काळांतलें देवूळ प्रसिद्ध आसा. हातूंत ब्रह्मा, विष्णु, शिव आनी गणेश हांच्यो मुर्ती कोरांतिल्ल्यो आसात. चोळ आनी पांड्य हाणीं देवळांक व्हड मंटप जोडपाची प्रथा सुरू केली. त्या मंटपांचे खांबे खूब नक्षीदार आसात. कांय मंटपांक रथाचो आकार दिल्लो आसा. चिदंबरमच्या देवळाचे नर्तन सभामंटप आनी मदुराईचे म्हामंटप खूब प्रसिद्ध आसात. १३ व्या शेंकड्यांत पांड्य राजांनी त्या देवळांखातीर खुब दुडू खर्चिलो.

– कों. वि. सं. मं.

**पांयतणां** : तळपांयांक आनी पावलांक संरक्षण दिवपाखातीर जें आवरण घालतात तांकां 'पांयतणां' अशें म्हणटात. मनीस आपल्या

वेव्हाराखातीर पांयांनी चलपाचो प्रसंग येता तेन्ना कांटेखुंटे, फातर आनी कंवच्यो तोपच्यो न्हय वा माती, घाण, उदक हांकां लागून पांयांचे तळवे म्हेळे जावंचे न्हय. तशेंच थंड वा हून जमनीपसून तळपांयांक अपाय जावंचो न्हय म्हणून पांयतणां वापरतात. कांय वेळार वेगवेगळ्या सुवातींवयल्यान चलतना पांयांक थिराय आनी धिटाय येवंची म्हणून वा शिकारेक वतना, गिर्यारोहण करतना, वेगवेगळे खेळ खेळटना पांयांक अडेची आनी जादा कार्यक्षमता, संरक्षण मेळचें म्हणून पांयतणांचो उपेग करप जाता. सुर्वेक जरी तळपांयांक संरक्षण आनी थिराय मेळची म्हणून पांयतणां वापरप जातालें आनी अजुनूय जाता, तरी कालांतरान पांयतणां संरक्षणावांगडा सोबीतकायेखातीर वापरपाची चाल आयली. आर्विल्ल्या वैजकी शास्त्रांत कांय खाशेलीं पांयतणां वैजकी उपकरण म्हणून वापरतात.

**इतिहास -** पांयतणांचो उपेग सुमार ३,००० वर्सांपयलींच्या काळासावन चालू आसा. ग्रीस आनी इजिप्तांतल्या इतिहासीक अवशेशांनी त्या काळांतलीं पांयतणां सांपडल्यात. बायबलांतूय पांयतणांचे उल्लेख मेळटात. पांयतणां पवित्र सुवातांनी व्हरचीं न्हय, असो संकेत सगळ्याच संस्कृतायांनी दिसता. ग्रीसी पुराणकथांनी देवांच्या, देवदुतांच्या पांयांनी पांखां आशिल्लीं. सँडल आशिल्ल्याचेय उल्लेख सांपडटात. पोरण्यांत पोरणें पांयतण इजिप्तांतल्या पुर्विल्ल्या अवशेशांत मेळिल्लें आसून तें पपायरस नांवाचे उदकांतले वनस्पतीपसून विणून तयार केल्लें. इजिप्तांतल्या वण्टीचित्रांनीय राजा, पुरयत आदी खास पांवड्यांच्या लोकांच्या पांयांनी पांयतणां दाखयल्यांत. रोमी लोकांमदीं पांयतणांच्या प्रकारावयल्यान मनशाचो पांवडो वळखताले.

युरोपांतल्या थंड हवामानाक लागून पुराय तळपांय बंदिस्त उरतले अशे तरेच्या पांयतणांची थंय गरज उप्रासली, हातूंतल्यानूच बुटांचो जल्म जालो. हलक्या लांकडांतल्यान कोरांतून काडिल्ले बूट फ्रांसांत मध्ययुगांत बरेच लोकप्रिय जाल्ले. तांकां 'सॅबो' अशें म्हण्टाले. हे अजुनूय फ्रांसाच्या गांवगिऱ्या वाठारांनी वापरांत आसात.

भारतांतल्या पांयतणांचो उल्लेख वैदिक साहित्यांत लेगीत सांपडटा. वैदिक काळांत चामड्याचे जोडे वापरांत आशिल्ले आनी तांकां 'उपानह' अशी संज्ञा आशिल्ली. शतपथ ब्राह्मणांत दुकराचे कातीचो पांयतणांखातीर उपेग जातालो, असो उल्लेख आसा. भारतांत संन्यासी, साधू खडावो घालतात. गिरेस्तांचीं आनी राजांचीं पांयतणां मोलादीक चामड्याचीं आनी रत्नजडित आसतालीं. जोत्यांक मोतयांचे घोंस लावपाची चाल गुप्त काळांत आशिल्ली. अशें अजंठाच्या वणटीचित्रांवयल्यान दिसता. पादत्राणांचे उल्लेख रामायण, महाभारतांत आयल्यात. राजा-म्हाराजांखातीर भांगरा-रुप्यासारक्यो मोलादीक धातूच्यो आनी रत्नां जडयल्ल्यो खडावो आसताल्यो. मोगल आनी उपरांत ब्रिटीश राजवटींत ते ते राजवटीप्रमाण पांयतणां वापरपाची पद्दत आयली. ब्रिटिशांचे मुस्तींत अस्तंते पद्दतीच्या पांयतणांचो वापर वाडलो. त्या वेळार युरोपांत प्रचलीत आशिल्ली फॅशन भारतांत येताली. तरीय भारतीय प्रकाराचीं पांयतणां तांच्या खाशेलपणासयत तिगून उरलीं. कोल्हापूरी चप्पल, जयपूर, आग्राक तयार जावपी वाटकुळ्या पोंतांचीं पांयतणां हे पांयतणांचे कांय खास भारतीय प्रकार मध्ययुगासावन आयजमेरेन वापरांत आसात.

त्या त्या प्रांतांचें खाशेलपण आशिल्लीं पांयतणां भारतांत आसातूच. पांयतणांक रेशीम, जर, झीग, मणी, घुंगरां लावन नटोवपाची पद्दत भारतांत अजुनूय प्रचलीत आसा. जयपूराक तयार जावपी चडाव जरीकामाखातीर नामनेक पावल्यात. कोल्हापूरी चप्पलांक चामड्याचे गोंडे लावपाची पद्दत लोकप्रिय आसा. आयज शारांनी चडशीं अस्तंते पद्दतीचीं पांयतणां वापरांत आसात. तातूंत विंगड विंगड बूट ते सादीं हवाई रबरी जोतीं अशे तरेकवार प्रकार दिसतात. अस्तंत्या देशांनी सँडलां बरींच लोकप्रिय जाल्यांत.

**कच्चो म्हाल :** पुर्विल्ल्या काळांत पांयतणां जनावरांची चामडी, झाडांच्यो साली आनी वाली वापरून तयार करताले. वातड आसपी चामडें मोव करपाखातीर ताका स्निग्ध पदार्थ आनी चरबी लावन तें मोव करपाची चाल आयली. हातूंतल्यानूच फुडें चामडें कमोवपाची पद्धत आयली. चामड्याप्रमाण लांकडाचोय उपेग पांयतणांनी, खास करून ऊंच खोटांचीं



पांयतणां वापरांत येतकूच वाडलो. चीन आनी जपानांत सुर्वेक पांयतणांचे वयले भाग तणान विणून तयार करताले. जपानांत पांयतणां तयार करतना लाकूड आनी दाट कागदाचो उपेग करताले. पांयतणांखातीर वापरांत येवपी चामड्यांतलें सुमार ७०% चामडें गोरवांचें (गाय, बैल, म्हशी) आसता. म्हशींचें आनी बैलांचें चामडें तळव्यांखातीर वापरतात. मेंढरां आनी बोकड्यांचें चामडें बुटाच्या अस्तराखातीर वापरतात. सोरोप, मानगीं, ॲलिगेटर, शेड्डो आदी जनावरांच्या चामड्याचो उपेग पांयतणां सोबीत दिसपाखातीर करतात. घोड्याच्या चामड्याक 'कॉर्डोव्हान' अशें म्हण्टात आनी तें दादल्यांच्या बुटाखातीर वापरतात. कांगारूचें चामडें खेळगड्यांच्या बुटांखातीर जाल्यार शहामृगाचें बायलांचीं पांयतणां तयार करपाखातीर वापरतात. दुकराच्या चामड्याचोय पांयतणांखातीर उपेग करतात.

विसाव्या शतमानाचे सुर्वेक रबराचें व्हल्कनीकरण (Vulcanization)करपाचो सोद लागतकूच पांयतणांचे घडणेंत रबराचो वापर वाडलो. तळव्यांखातीर सरसकट रबर वापरपाक लागले. पावसाचे

बूट आदी पांयतणां पुराय रबराचीं वा रबराचो थर दिल्ल्या कापडाचीं करपाक लागले. आतां चामडें, लाकूड, सैमीक रबर, फोम रबर, रॅक्झीन, कापड, पॉलिवायनिल प्लास्टिक आदींचो उपेग पांयतणां तयार करपाखातीर कच्चो म्हाल म्हणून करतात. लिनन, सॅटिन, रेशीम आदी कांय खाशेल्या प्रकारच्या कापडांचोय पांयतणांखातीर उपेग करतात. जाळयेचें नायलॉन, मखमली नायलॉन हांचेसारक्या मनीससनिर्मीत तंतूंपसून तयार करतात त्या द्रव्यांचोय पांयतणांखातीर व्हड प्रमाणांत उपेग जाता. पांयतणांखातीर लावपाचीं बकलां (क्लीपां) लोखण, पितूळ आदी धातूंचीं वापरतात. आतां तेखातीर ॲल्युमिनियमाचोय वापर वाडला.

**पांयतणांचे प्रकार** - काळाप्रमाण आनी लोकांचे आवडीप्रमाण पांयतणांचे विंगड विंगड प्रकार आसात. बूट आनी चप्पल अशे तांचे दोन मुखेल प्रकार आसात. चप्पलां चड करून भारतांत आनी उदेंत्या देशांनी (चीन, जपान आदी) वापरतात. हवामानाक लागून अस्तंत्या देशांनी बुटांचो प्रकार चड लोकप्रिय थरला.

दादल्यांचीं आनी बायलांचीं पांयतणां वेगवेगळीं आसून तीं सहज वळखूं येतात. बायलांच्या पांयतणांचे तळवे दादल्यांपरस अशीर आसतात. तशेंच, तीं नाजूक आनी सोबीत आसतात. दादल्यांचीं पांयतणां चड रूंद आनी घट्ट आसतात. उत्पादनाच्या सोंपेपणाक लागून आकाराप्रमाण आनी लांबायेप्रमाण पांयतणांक वेगवेगळे क्रमांक दिल्ले आसतात.

**पांयतणांक लागून जावपी विकार** - चामड्याचें नवें पांयतण वापरूंक लागतकूच पांयांक एकेकदां घाव जातात. हाका 'बूट वा जोतीं लागप' अशें म्हण्टात. बुटांवांगडा मेय वापरल्यार बूट उणे लागतात. पांयतणांचो भाग पावलांचेर एकसारको घाशिल्ल्यान त्या जाग्यार पांयांक खिणां पडटात. खूबदां पांयतणांचो खिळो तळपांयांक लागून 'भोवरी' वा 'कुरूप' आदी विकार जातात. अशा वेळार चामड्याच्या पांयतणांच्या जाग्यार मोव, रबरी पांयतणां वापरतात. हालींचीं रबरी वा संश्लेषित (कृत्रीम) रबरापसून तयार जावपी पांयतणां वापरल्यार पांयांचेर पुळयो येवप आदी ॲलर्जीसारकिले विकार जातात.

**संवसारीक उद्देग** - पुर्विल्ल्या काळांत पांयतणां तयार करपी कारागिरांचो वेगळो वर्ग अस्तित्वांत आशिल्लो. वैदिक साहित्यांत तांचो 'चर्मकार' म्हणून उल्लेख मेळटा. रोमी साम्राज्यांत अशे लोक कांय लोक कामाक दवरून तांचेकडल्यान कामां करून घेताले. तांची वसती वेगळी आसताली. मध्ययुगांत युरोप आनी अमेरिकेंत पांयतणां घराच तयार करपाची पद्धत आशिल्ली. समाजांतल्या मागास वर्गाकडल्यान हें काम मोल दिवन करून घेताले.

पांयतणांचो आर्विल्लो कारखानो अमेरिकेंत १७६० त जे. ए. दागिअर हाणें लिन, मॅसॅच्युसेटसाक सुरू केलो. ताणें बरेच कारागीर कामांर दवरले आनी तातूंतल्या दरेकल्याक एकेक थरावीक काम वांटून दिलें. १७९० त युरोपांत बूट शिंवपाखातीर खास यंत्र तयार केल्लें आनी १८१० त अमेरिकेंत तळवे जोडपाखातीर दोरयां जाग्यार खिळ्यांचो वापर करपाची पद्धत आयली. १८१८ त दाव्या आनी उजव्या पांयांतले बूट असो बुटांमदीं फरक केलो. बूट जाचेर बांदतात, त्या सांच्यांचें १८२१ त युरोपांत लेथीचेर व्हड प्रमाणांत उत्पादन करपाक सुरवात जाली. १८२२ त एका जर्मन उत्पादकान बुटाचो वयलो भाग तळव्याक जोडपाखातीर स्क्रू वापरले. १९४५ त, तळव्याचें चामडें लाटून घट्ट करपाचें यंत्र प्रचारांत आयलें. १८४६ त इलियस होव हाणें शिवणीच्या यंत्राचो सोद लायलो. १८५८ त एल्. आर. ब्लेक हाणें बुटाचो तळवो बुटाच्या वयल्या भागाक जोडपाचें यंत्र सोदून काडलें. यंत्राक लागून बूट तयार करपाचो वेग आनी बुटाची सोबीतकाय वाडली. उपरांत वेगवेगळ्या क्रियांखातीर खाशेल्या यंत्रांचो सोद लागलो आनी विसाव्या शतमानाचे सुर्वेक मेरेन बुटाचे निर्मितींतल्यो चडशो सगळ्यो क्रिया यंत्रावरवीं जावपाक लागल्यो.

संवसारांतले सगळ्यांत चड पांयतणांचे कारखाने अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत आसात. १९६० च्या सुमाराक थंय सुमार ८५० व्हडले कारखाने आशिल्ले. न्यू इंग्लंड आनी मॅसॅच्युसेट्स ह्या राज्यांनी बुटांचे सगळ्यांत चड कारखाने आसात. अमेरिके फाटोफाट ब्रिटनांत पांयतणांची निर्मिती जाता. जर्मनी, फ्रांस, इटली ह्या देशांनीय बऱ्या दर्जाचीं पांयतणां तयार जातात.

**भारतांतलो उद्देग** - कानपूर, लखनौ, आग्रा, जयपूर, बिकानेर, राजकोट, पुणें, कोल्हापूर, हैदराबाद, रायचूर, म्हैसूर, त्रिचनापल्लीक तयार जावपी भारतीय पद्दतीच्या पांयतणांची नामना कितल्याशाच वर्सांसावन आसा. अस्तंती पद्धतीचीं पांयतणां पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत चड प्रमाणांत तयार जावपाक लागलीं कारण लश्कराखातीर लागपी बुटांची मागणी एकदम वाडली. देखून ब्रिटीश भांडवलदारांनी कानपूर, आग्रा, दयाळबाग, मुंबय आनी चेन्नईक पांयतणांचे कारखाने सुरू केले. झूज सोंपतकच हेच कारखाने पांयतणां करपाक लागले. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत आनी उपरांत ह्या कारख्यान्यांत वाड जायत गेली.

स्वातंत्र्या उपरांत चड उत्पादन आनी निर्यात हांकां पोसवण दिवपी सरकारी धोरणाक लागून ह्या धंद्याची भरभराट जाली. परदेशी चलन मेळोवन दिवपी धंद्यांतलो हो एक म्हत्वाचो धंदो अशें मानतात. लुगट, रबर, कॅनवास, फोम रबर, पी. व्ही. सी. हांच्या वापराक लागून १९६० वर्सा उपरांत ह्या धंद्यांत बरीच उदरगत जाली आनी पांयतणांचे नवे नवे प्रकार तयार जावपाक लागले.

अस्तंती देशाप्रमाणूच भारतांत लेगीत पांयतणांची चडशी निर्मिती कारखान्यांत यंत्रांवरवीं जाता. हीं यंत्रां तयार करपी कारखाने आग्रा, कानपूर, मुंबय, कलकत्ता आनी चेन्नईक आसात. मुंबयचो 'पीरभाई ॲंड सन्स' हो अशी यंत्रसामुग्री करपी कारखानो बरोच नांवाजिल्लो आसा. अस्तंती पद्धतीच्या बुटांची निर्मिती खास करून आग्रा आनी कानपूराक जाता. कोल्हापूर, मिरज, सांगली हे वाठार कोल्हापूरी चपलांखातीर नामनेक पावल्यात. मुंबयंत सोबीत जोतीं आनी सॅंडल्स तयार जातात. तमीळनाडू, कलकत्ता, कानपूर, जालंधर, श्रीनगर, जम्मू, मुंबय, कर्नाटक आनी आंध्र प्रदेशाक पांयतणांचे जायते कारखाने आसात. कलकत्ता लागसार बाटानगरांत आशिल्लो 'बाटा शू कंपनी' हो पांयतणांचो कारखानो भारतांतलो सगळ्यांत व्हडलो.

**संस्कृतीक संदर्भ** - देवळांत, पुजे वेळार, जेवणा वेळार चामड्याचीं पांयतणां वापरप, हाका पवित्र रुढींप्रमाण मनाय आसा. तशेंच घरांत चामड्याचीं पांयतणां घालून भोंवल्यार घर अपवित्र जाता, असो समज आसा. पूण लाकडाचीं (खडावो), रुखांच्या सालींचीं पांयतणां मात अशुद्ध मानिनात. रस्मी वा लोकरीचीं पांयतणांय अशुद्ध मानिनात. ब्रह्मचारी, संन्यासी, वानप्रस्थी चामड्याचीं पांयतणां घालिनात. ब्रह्मचाऱ्यान पांयतणां घालचीं न्हय, ब्रह्मचर्य सोंपतकच स्नातकविधींत तीं घालचीं असो एक विधी आसा. मशिदींत वा मुसलमानांच्या हेर पवित्र सुवातींनी पांयतणां

घालपाक इस्लाम धर्मांत मनाय आसा, पूण क्रिस्तांव धर्मांत मात ना. क्रिस्तांव धर्माचो प्रसार युरोपांत चवथ्या-पांचव्या शतमानांसावन जालो. युरोपाचें हवामान थंड आशिल्ल्यान कडक शिंयांत आनी बर्फ पडटा आसतना घरांत, इगर्जेंत वा हेर खंयूय पांयतणां घालपाची भोव गरज आसता. ताका लागून क्रिस्तांव धर्मांत पांयतणांविशीं हिंदू-मुसलमानांप्रमाण विधीनिशेध नात. बौध्द धर्मांत चामड्याचीं पांयतणां घालून देवळांत वा घरांत प्रवेश करूंक मेळना.

पवित्र थळांनी चामड्याच्या पांयतणांखेरीज हेर पांयतणांक बंदी ना. साधू, संन्यासी हांच्यो खडावो पवित्र मानतात. तांच्या मरणाउपरांत तांच्या खडावांची (पादुकांची) पुजा करतात. खडावांची पुजा करपाची कल्पना ही देव, साधू हांचे पाद्यपुजे वयल्यान आयल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**पाकशास्त्र :** खाणाचे जिनस तयार करपाचें शास्त्र. भाजी-पालो, फळां-मुळां, बियो-गर सारकीं वनस्पत उत्पादनां आनी मोनजातीचें खावपाचें मास, तांत्यां, दूद सारकिल्या पदार्थांचेर प्रक्रिया करून रुचीक, तशेंच भलायकेक पोशक अशें अन्न (खाण) तयार करपाची ही कला.

**इतिहास** – मनशाचे मुळावे गरजेंत अन्नाचोय आस्पाव ज़ाता आशिल्ल्यान, अतिपुर्विल्ल्या काळांतल्या लोकांक ही गरज भागोवपाखातीर खूब भोंवचें पडटालें. अशा वेळार प्राणी, सवणीं मारून तांचें मास वा कंदमुळां, फळां खावन मनीस आपली भूक भागयताले. फुडें उज्याचो सोद लागतकच मास वा कंदमुळां भाजून खाल्यार रुचीक लागता म्हणपाचें कळ्ळें. फुडें फुडें मीठ मसालो घालून तातूंत तरेकवार प्रयोग जावंक लागले. काळाच्या ओघांत मनशाचें हेडगेपण उणें जावन तो एका जाग्यार स्थायीक जावंक लागलो आनी स्वताच्या उपेगाखातीर गोरवां, कुकडां, मेंढरां पोसूंक लागलो. तशेंच जमनीचो उपेग करून शेत पिकोवंक लागलो. अशे तरेन ल्हव ल्हव करून मनशाची संस्कृतीक उदरगत जाली आनी तातूंतल्यान अन्न कशें सांबाळून दवरप, ताचो कसो उपेग करप हाची जाण आयली. फुडल्या काळांत मनशान आपले बुध्दीचो आनी भोंवतणचे परिस्थितीचो उपेग करून हे कलेंत मोलादीक भर घाली. हाका लागून सांठोवन दवरपाचे पदार्थ वतांत सुकोवन दवरप, थंड हवामानाचो उपेग करून खावपाचे पदार्थ गोठोवन दवरप, वातावरणांतल्या सुक्ष्म जिवांचो उपेग करून धंय, चीझ, म्होंव आदी पदार्थ तयार करप शक्य जावंक लागलें.

सद्याच्या काळांत आर्विल्ल्या खाद्य तंत्रावांगडाच खाद्यपदार्थ तयार करपाखातीर आर्विल्लीं साधनांय तयार जाल्यांत. तेचपरी रोखड्या रोखडे खाद्यपदार्थ तयार करपाचे कारखानेय निर्माण जाल्यात. सद्याच्या काळांत बायलांचें क्षेत्र आशिल्ले हे पाककलेच्या मळार दादलेय वावर करूंक लागल्यात. व्हड-व्हड हॉटेलांनी बायलां परस दादले रांदप्यांचो आंकडो चड आसा. महाभारतांत पांडव अज्ञातवासांत आसतना विराट राजाचे पाकशाळेंत भीम, बल्लव ह्या नांवान रांदपाचें काम करतालो अशी म्हायती आसा. पाकशास्त्राचें शिक्षण दिवपी महाविद्यालयां आसून तातूंत दादले तशेंच बायलोय शिक्षण घेतात.

**भारतीय पाकशास्त्र** – भारतांतल्या वेगवेगळ्या राज्यांनी तरेकवार लोक आसून तांच्या खाणांत आनी आवडी निवडींतय जायते बदल दिसतात. तशेंच पाकशास्त्रांत त्या त्या राज्यांप्रमाण मुलभूत सारकेंपणय दिश्टी पडटा.

तरातरांच्या आंगांचे भारतीय संस्कृतींत मूलभूत अशें एकसारकेंपण जशें दिसता तशें वेगवेगळ्या लोकांमदीं अन्न शिजोवपाचे पद्दतींत आनी निवडींत फरक आसलो तरी भारतीय पाकशास्त्रांत मूलभूत अशें एक सारकेपण दिसता. मसाल्याचो चड उपेग, पुराय पणान शिजोवप, प्रतिनिधीक अशें पुराय शिवराक जेवण हे भारतीय पाकशास्त्रांतले कांय मुखेल घटक भोवतेक, एक मर्यादीत लोकसमूह सोडलो जाल्यार भारतीयांच्या सर्वसादारण अन्नांत दिश्टी पडटात. प्रसंगानुसार त्या घटकांमदीं, हांगा-थंय बदल जाल्ले दिसतात. कालमानाप्रमाण मासाहारी लोकांच्या प्रमाणांत लक्षणीय वाड जाल्ली दिसता हेंय तितलेंच खरें.

सद्याच्या जलदगतीच्या युगांत तयार अन्नावरवीं गरज भागोवपाचो मनशाचो कल दिसता आसलो तरी पारंपारीक पाककलेचो प्रभावूय तितलोच दिसता. सणापरबेक वा हेर धर्मीक सुवाळ्यांनी आजूय लोक पारंपारीक पद्धतीचे पाककलेचो आविश्कार घडयतात.

– सौ. सुधा सु. आमोणकार

**पाकिस्तान :** दक्षिण आशियांतलो सार्वभौम इस्लामी प्रजासत्ताक देश. १४ ऑगस्ट १९४७ दिसा हिंदुस्थानाची फाळणी जावन हें राश्ट्र तयार जालें. सुर्वेक अस्तंत पाकिस्तान आनी उदेंत पाकिस्तान अशे ह्या राश्ट्राचे दोन वांटे आसले. उपरांत १९७१ त उदेंत पाकिस्तान हो प्रांत बांगलादेश ह्या नांवान स्वतंत्र देश जालो. पाकिस्तानान बळकायल्लो काश्मिराचो वांटो सोडून ह्या देशाचें क्षेत्रफळ ७९६,०९५ चौ. किमी. आसा. विस्तार २४° उत्तर ते ३७° उत्तर अक्षांश आनी ६१° उदेंत ते ७५°३०′ उदेंत. लोकसंख्या १२४,८००,००० (१९९१). पाकिस्तानाचे आग्नेयेक आनी उदेंतेक भारत, अस्तंतेक इराण, वायव्येक आनी उत्तरेक अफगाणिस्तान हे देश जाल्यार दक्षिणेक अरबी दर्या आसा. इस्लामाबाद हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयरचणूक** – अस्तंत आनी उत्तर वाठारांतले पर्वतीय प्रदेश, सिंधू न्हंय आनी तिच्या उप न्हंयांसावन तयार जाल्लीं खोल देगणां आनी बलुचिस्तानाचो सडो मेळून हो देश तयार जाला. भूंयरचणुकेचे नदरेन ह्या देशाचे मुखेलपणान स वांटे केल्यात ते अशे – उत्तरेकडेन आशिल्लो पर्वतीय प्रदेश, अस्तंतेकडचो पर्वतीय प्रदेश, सॉल्ट रेन्ज आनी पोटवार सडे, इंडस मैदानी भाग, रेंवट प्रदेश आनी बलुचिस्तानाचें पठार.

उत्तरेकडेन आशिल्ल्या पर्वतीय प्रदेशांत हिमालय पर्वतवळींतल्यो कांय दोंगुल्ल्यो आस्पावल्यात. अस्तंती पर्वती प्रदेशांत हिंदुकुश पर्वतासावन तयार जाल्ल्या तीन पर्वतवळींचो आस्पाव जाता. ह्या वळींतलें तिरीच मीर हें देशांतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक. ह्यो पर्वतांच्यो वळी मोडून काबूल न्हंयेन तयार केल्ली खैबर खींड ह्याच प्रदेशांत आसा. खैबर खिंडीचे दक्षिणेक धवी कोह ही पर्वतांची वळ आसा. हिमालयाच्या पर्वतांसकयल आशिल्ल्या दुय्यम सड्याच्या प्रदेशांत सॉल्ट रेन्ज आनी पोटवार सड्याचो आस्पाव जाता. सॉल्ट रेन्ज ही मिठाची दोंगरी वळ झेलम न्हंयेचे उत्तरेक जोगीतिला आनी बाव्रालाच्यान ते नैर्ऋत्येकडेन बन्नू आनी डेरा इस्मायलखान जिल्ह्यांमेरेन पातळ्ळ्या. हे दोंगरी वळीची सरासरी उंचाय सुमार ७०० मी. आसून, 'सकैसर' हें तातूंतलें सगळ्यांत

उंचेलें तेमूक (१,५०० मी.). पोटवारचो सडो सुमार ४०० ते ६०० मी. ऊंच आसून ताचेवयल्यान हारो आनी सोआन ह्यो सिंधूच्यो उपन्हंयो व्हांवतात. सिंधूचें मळ खूब व्हड आसून, ताणें सुमार ५,१८,००० चौ. किमी. क्षेत्र रेवडिलां. मिठानकोटाचे उत्तरेक आशिल्ल्या मळाक सिंधूचें उत्तर मळ आनी मिठानकोटाचे दक्षिणेक आशिल्ल्या मळाक सिंधूचे दक्षिण मळ अशें म्हण्टात. उत्तर सिंधू मळांत रावी, चेनाब आणि सतलज न्हंयांनी दुआब तयार केल्ले आसात. बलुचिस्तानाचो सडो हो इराणाच्या उदेंत सड्याचोच एक वांटो, अशें भूंयवैज्ञानिकांनी मत मांडलां. ह्या सड्याची उंचाय सुमार ३०० ते ३५० मी. आसा. पाकिस्तानाच्या रेंवट प्रदेशांत सिंधसागर दोआब, बहावलपूरचो चोलिस्तान आनी थर पार्कर जिल्ह्यांतलो थर रेंवट प्रदेशांचो आस्पाव जाता.

सिंधू ही पाकिस्तानांतली मुखेल न्हंय. झेलम, चेनाब, रावी आनी सतलज ह्योय न्हंयो म्हत्वाच्यो आसात. त्यो एकठांय जावन मिठाकोटा लागसार सिंधू न्हंयेक मेळटात. पोराली आनी हिंगोली ह्यो हांगाच्यो ल्हान न्हंयो.

**हवामान** – पाकिस्तान देश उश्ण कटिबंधीय प्रदेशांत मोडटा. हाका लागून हांगाच्या दीसपट्ट्या तशेंच रूतूं प्रमाण तापमानांत खूब फरक जाणवता. गिमांत उश्णताय खूब जाणवता. त्या दिसांनी देशाचें सरासरी तापमान २६° ते ३०° सॅ. भितर आसता. कांय कडेन तें ४२° ते ५२° सॅ. मेरेन लेगीत वता. शियाळोय खूब कडक आसून, त्या दिसांनी देशाचे उत्तरेक साबारकडेन तापमान गोठणबिंदू सकयल वता. देशांत सरासरी ५१ सेंमी. पावस पडटा. वायव्य आनी उत्तरेकडच्या दोंगरी वाठारांनी वर्सुकी पावसाचें प्रमाण सुमार ७५ ते ९० सेंमी. इतलें आसता. पूण रेंवटी वाठारांनी तें १० सेंमी. परस उणें आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात** – देशाची चडशी भूंय रेंवट आशिल्ल्यान रुखावळीचें प्रमाण सामकें उणें आसा. उत्तरेक आनी वायव्येक १००० मी. परस चड उंचायेच्या चित्रळ आनी दोर प्रदेशांत स्प्रूस, फर, देवदार, ओक, चॅस्टनट, अक्रोड ही रुखावळ साप्प पातळ प्रमाणांत मेळटा. बलुचिस्तानाच्या कांय भागांनी पायन आनी जुनीपरचीं रानां आसात. सॉल्ट रेन्ज आनी अस्तंत दोंगरी वळींचेर झॅरोफायटीक ही सुक्या हवामानांत वाडपी वनस्पत मेळटा. उसू प्रदेशांत जांद, करील आनी बकीन हांचीं झोंपां सांपडटात. तांकां राख रानां म्हण्टात.

देशाची रुखावळ पातळ आशिल्ल्यान, रानटी मोनजात खूब उणी आसा. भारतांत सांपडपी हरण, वांस्वेल, कोले आनी वाघ हांगाच्या रानांनी दिश्टी पडटात. सिंधू वाठारांत रानदुकर, मानगें, रानमांजर आनी हार सांपडटात. सिंधू प्रदेशांतल्या मंछर सरोवरांत साबार तरांचीं पाण सवणीं पळोवपाक मेळटात. शियाच्या दिसांनी स्थलांतरीत सवण्यांचींय भिरीं त्या सरोवरांत येतात.

**इतिहास** – हिंदुस्थानाची इतिहासीक फाळणी जावन १४ ऑगस्ट १९४७ दिसा एक स्वतंत्र राश्ट्र म्हणून पाकिस्तानाची स्थापणूक जाली. हिंदू तशे मुसलमान राजकारणी फुडाऱ्यांचें सत्तेचें राजकारण, ब्रिटिशांनी त्या वेळार आपणायल्ली पक्षपाती राजनीती, हिंदू आनी मुसलमान हांचे मदलो समाजीक, धर्मीक आनी मानसीक भेदभाव आनी ह्या भेदभावाक लागून निर्माण जाल्ली एकमेकांची नसाय. ह्या सगळ्या घटकांच्या एकत्रीत परिणामांतल्यान अखंड हिंदुस्थानाची फाळणी जाली अशें इतिहासकारांनी मत मांडलां.

मोगल साम्राज्याक देंवती कळा लागले उपरांत शाह वली उल्ला, सय्यद अहमद बरेलवी, शाह अब्दुल अझीझ, आल्ताफ हुसेन हाली ह्या मुसलमान विचारवंतांनी धर्मशुद्धी खातीर जाल्ल्या वहाबी चळवळींतल्यान भारतीय मुसलमानांची स्वतंत्र अस्मिताय जागृत दवरली. १८५८ त जाल्लें बंड मोडून उडयले उपरांत, ब्रिटीश सरकारान सुरू केल्लो इंग्लीश शिक्षणाचो प्रसार मुसलमानांमदीं उणो जाल्ल्यान हिंदू लोकांपरस तांचो सरकारी कामांत आनी आधुनिक वेवसायांत साप्प उणी भर आशिल्ली. इंग्लीश शिक्षणाचो फकत हिंदू लोक फायदो घेतात हें जाणून सर सय्यद अहमदखान हाणें मुसलमानांकूय समान लाव मेळचो म्हणून अलिगडाक १८७५ त मोहमेडन अँग्लो ओरिएंटल महाविद्यालयाची स्थापणूक केली. मुखार थंयच अलीगढ मुस्लीम काँग्रेसचें बळ वाडत गेलें. उपरांत हातूंतल्यानूच १९०६ त मुस्लीम लीगाची थापणूक जाली.

१९८५ त नॅशनल काँग्रेसीची स्थापणूक जाले उपरांत भारतीय स्वातंत्र्य चळवळीक चड नेट येवपाक लागिल्लो. काँग्रेसींत मुखेलपणान हिंदूंचो भरणो चड आशिल्लो. काँग्रेस वांगड्यांच्यो मागण्यो दिसानदीस वाडत आसा हाची जाणविकाय जावन ब्रिटीश सरकारान विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक सावन काँग्रेसीक शह दिवपाखातीर मुसलमानांक चड सवलती दिवपाक लागले. ब्रिटीश सरकाराच्या आदारानूच १९०६ त मुस्लीम लिगाचे स्थापणुकेक प्रेरणा मेळली. तशेंच मुसलमानांक कायदेमंडळांत प्रतिनिधित्व मेळोवपाखातीर आगाखानाच्या मुखेलपणाखाला १९०६ त एका खाशेल्या शिश्टमंडळान वायसरॉय मिण्टो हाचेकडेन वेगळ्या मतदारसंघाची मागणी केल्ली. ब्रिटीश सरकारान हे मागणेक रोखडीच मान्यताय दिली. तेचपरी १९०६ त ब्रिटिशांनी भारतीय मुसलमानांक काँग्रेससावन (मुखेलपणान जहाल पंगडासावन) पयस दवरचे खातीर हिंदूस्थानाच्या उदेंत वाठारांत चड मुसलमान आशिल्लो प्रदेश निर्माण करपाखातीर बंगालची फाळणी केली.

पयल्या म्हाझुजावेळार ब्रिटिशांनी घेतिल्लें तुर्कस्तान विरोधी धोरण, १९१६त काँग्रेसीन मुसलमानांखातीर वेगळ्या मतदारसंघाक दिल्ली मान्यताय आनी १९२०-२२ वर्साची खिलाफत चळवळ हातूंतल्यान हिंदू – मुसलमानांक एकठांय हाडपाचो खूब यत्न जालो, पूण फळादीक जालोना. काँग्रेसीच्या चडशा वावुरप्यांनी मुसलमानांच्या वेगळ्या मतदार संघाक विरोध केल्ल्यान हिंदू-मुसलमान फुडाऱ्यां भितल्ले मतभेद वाडत गेले. अशे तंग स्थितिंतूच मुहंमद इकबाल हाणें मुस्लीम लिगाचे अध्यक्षतायेखाला पंजाब, सिंध, बलुचिस्तान आनी वायव्य प्रांत मेळून एका वेगळ्या मुसलमानी राज्याची स्थापणूक करची असो प्रस्ताव मांडलो. १९३७ त प्रांतीक कायदेमंडळाचे वेंचणुकेंत वट्ट ४८२ जाग्यांतले १०४ जागे मुस्लीम लीगाक मेळ्ळे पूण संयुक्त प्रांतांत (उत्तर प्रदेश) लीग पक्षाक सत्ता आपणावपाक विरोध केलो. हाका लागून स्वतंत्र जातकूच हिंदूस्थानांत मुसलमानांक व्हडलेंशें स्थान मेळचेंना अशें मुसलमान फुडाऱ्यांक दिसपाक लागलें. काँग्रेस सरकार सदांच मुसलमान विरोधी आसतलें असो ताणीं प्रचार सुरू केलो. लंडनांत चौधरी रहमत अली ह्या विद्यार्थ्यान पंजाब, वायव्य काश्मीर प्रांत, इराण, सिंध, तुर्कस्तान, अफगाणिस्तान आनी बलुचिस्तान मेळून एक नवें मुसलमानी राज्य निर्माण करचें ही कल्पना मांडली. ह्या सगळ्यांची सुर्वेची अक्षरांची जुळोवणी करून, त्या राज्याचें नांव पाकिस्तान दवरचें अशें सुचयलें. ह्याच वेळार महमद अली जीना हाणें हिंदू आनी मुसलमान अशां दोन राश्ट्रांची विचार

सरणी उखलून धरली. १९४० त लाहोरांत लीगाचें अधिवेशन जावन तातूंत भुगोलीक नदरेन चड मुसलमान लोक आशिल्ल्या वायव्य आनी उदेंत वाठारांनी स्वतंत्र मुसलमान राज्यांची स्थापणूक करची हो थाराव मान्य केलो. ब्रिटीश सरकारानूय मुसलमानांक मान्य अशी येवजण काडीसर सत्ता दिवप ना अशें थरयलें. १९४५ त ब्रिटीश मंत्र्यांनी मांडिल्ली येवजण सुर्वेक लीग फुडाऱ्यांनी मान्य केल्ली. पूण हिंदूस्थानांत मुसलमानांचें फुडारपण फकत लिगूच करपाक शकता हे तांचे मागणेक कॉंग्रेसीन विरोध केल्लान, १६ ऑगस्ट १९४६ दिसा मुसलमानांनी कृती दीस म्हणून पाळ्ळो. ताचो परिणाम म्हळ्यार नोआखाली (बांगलादेश) आनी कलकत्ता शारांनी जातीय दंगे जावन व्हडा प्रमाणांत मनीस हत्या जाली. उपरांत तात्पुरत्या केंद्रीय मंत्रीमंडळांत लीग नेत्यांनी वांटो घेतिल्लो, पूण सरकार चलोवपाक ते खूब आडमेळीं हाडपाक लागले. द्विराष्ट्रवादी विचार दवरून अखंड हिंदुस्थानाचें सरकार चलोवप शक्य ना, हाची जाणीव जावन निमाणेकडेन लॉर्ड माऊंटबॅटनान मांडिल्ली फाळणेची येवजण कॉंग्रेस फुडाऱ्यांनी मान्य केली.

लॉर्ड माऊंटबॅटनाचे येवजणे प्रमाण १४ ऑगस्ट १९४७ दिसा हिंदुस्थानाची फाळणी जावन पाकिस्तान राष्ट्र अस्तित्वांत आयलें. सुर्वेक अस्तंत पाकिस्तान आनी उदेंत पाकिस्तान अशे ह्या राष्ट्राचे दोन प्रांत आशिल्ले. पूण १९७१ त उदेंत पाकिस्तान हो प्रांत बांगलादेश नांवान स्वतंत्र जालो.

पाकिस्तान देश अस्तित्वांत आयले उपरांत, महमद अली जीना हाणें लीग संस्थेचीं सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत दवरलीं. लोकशायेक ताणें व्हडलेशें म्हत्व दिलेंना. स्वता गवर्नर जावन लेगीत प्रधानमंत्र्याक ताणें कांयच म्हत्व दिलेंना. सगळे अधिकार आपल्याचकडेन दवरले. लीगाक विरोध करप्यांक ताणें राष्ट्रद्रोही आनी धर्मद्रोही थरयले. जीना उपरांत आयिल्ले लियाकत अलीखान, गुलाम महंमद, इस्कंदल मिर्झा, महमद आयुब खान हांणीय हुकुमशायूच चलयली. स्वातंत्र्य मेळटकूच निर्वासितांचे प्रस्न, अर्थीक अडचणी, जातीय तणाव, काश्मीर प्रस्नावयल्यान भारताकडेन दुस्मानकाय असल्या कठीण प्रस्नांक पाकिस्तानाक जापो दिवंच्यो पडल्यो.

पाकिस्तान देश अस्तित्वांत आयले उपरांत १९५६ मेरेन पाकिस्तानाची शासन वेवस्था १९३५ च्या आनी १९४७ च्या ब्रिटिशांनी केल्ल्या कायद्याप्रमाण कांय बदल करून चलताली. २३ मार्च १९५६ दिसा नवी घटना आपणावन इस्लामी प्रजासत्ताकाची घोशणा केली. ह्या तेंपार राजकीय अस्थीरताय पळोवन अध्यक्ष मिर्जा हाणें पाकिस्तानांत लश्करी कायदो लागू करून उपरांत जनरल महमद अयुबखानाकडेन राजकीय सुत्रां दिलीं. फेब्रुवारी १९६० त जाल्ले वेंचणुकेंत ताचें वर्चस्व तिगून उरलें. ताणें १ मार्च १९६२ दिसा नवे घटनेची घोशणा केली. ताच्या तेंपार पाकिस्तानांत लोकशाय पद्धत आसची, अध्यक्षाची आनी हेर राजकीय फुडाऱ्यांक प्रौढ मतदान पद्धतीन वेंचून काडचे, अस्तंत पाकिस्तानाचे ४ प्रांत जावंचे, तशेंच तांकां स्वायत्तताय मेळची म्हणून व्हड चळवळ सुरू जाली. तातूंत विद्यार्थी, कामगार वर्ग, सरकारी कर्मचारी, वायुदळ मुखेली आनी वकीलांनी वांटो घेतिल्लो. ही चळवळ १९६९ मेरेन चालूच आशिल्ली. २५ मार्च १९६९ दिसा अध्यक्ष अयूब खानान राजिनामो दिवन, सरसेनापती आगा मुहंमद याह्या खानाकडेन सत्ता दिली. याह्या खानान देशांत परत लश्करी कायदो सुरू करून, अस्तंत पाकिस्तानाचे चार प्रांत केले. तशेंच नवे घटना समितीखातीर डिसेंबर १९७० त वेंचणुको घेतल्यो. हे वेंचणुकेंत उदेंत पाकिस्तानांतल्या शेख मुजीबुर रहमान हाच्या आवामी लीग पक्षाक १६७ सुवाती जाल्यार झुलफिकार भुट्टोच्या पाकिस्तान पिपल्स पार्टीक ९० सुवाती मेळ्ळ्यो. पूण आवामी लीग पक्षाक उदेंत पाकिस्तानांत पुरायपणान अधिकार दिवपाक भुट्टोन आनी लश्करी अधिकाऱ्यांनी विरोध केल्यान आवामी लीग पक्षान सुर्वेक कायदेभंगाची चळवळ सुरू केली. उपरांत अस्तंत पाकिस्तान आनी उदेंत पाकिस्तान हांचेमदीं यादवी झूज सुरू जालें. १९७१ वर्सा आवामी लीग पक्षान स्वतंत्र बांगलादेशाची घोशणा केली. सैन्यान उदेंत पाकिस्तानांतल्या लोकांचेर अत्याचार केल्ल्यान सुमार एक कोटी लोक हांगाच्यान भारतांत रिगले. पूर्व आनी पश्चिम पाकिस्तानामदल्या झुजाउपरांत डिसेंबर १९७१त आवामी लीग सरकाराची ढाक्यांत स्थापणूक जावन, स्वतंत्र बांगलादेशाची घोशणा केली. पश्चिम पाकिस्तानाची हार जाले उपरांत २० डिसेंबर १९७१ दिसा याह्या खानान अध्यक्षपदाचो राजिनामो दिवन झुलफिकार भुट्टोच्या हातांत सत्ता दिली.

भुट्टो राष्ट्राध्यक्ष जाले उपरांत राष्ट्रीय समितीन मान्यताय दिल्लें संविधान १४ ऑगस्ट १९७३ दिसा सावन चालींत आयलें. हे घटनेप्रमाण देशांत सांघिक संसदी पद्दत सुरू जावन, अध्यक्ष हो संविधानीक मुखेली जाल्यार प्रधानमंत्र्याक मुखेल कार्यकारीचे हक्क मेळ्ळे. हाका लागून भुट्टोन अध्यक्ष पदाचो राजिनामो दिवन प्रधानमंत्री जालो. मार्च १९७७ त राष्ट्रीय विधानसभेचे वेंचणुकेंत भुट्टोच्या पक्षाक भोवमत मेळिल्लें. पूण ते जागे भ्रश्टाचार करून मेळयल्यात असो विरोधी पक्षान भुट्टोचेर आरोप दवरलो. ताणीं प्रांतीक वेचणुकांकूय विरोध करून भुट्टो आड बंड उबारलें. हातूंतल्यानूच पुराय देसभर हिंसाचाराचें वातावरण पातळ्ळें. एक सारको चार म्हयने फारपेट चालू उरिल्ल्यान खूब रक्तखेव जालो. निमाणेकडेन ५ जुलय १९७७ दिसा जनरल महमद झिया-उल-हक हाच्या फुडारपणाखाला लश्करान सत्ता हातांत घेतली. वेंचून आयिल्लें सरकार रद्द करून देशांत लश्करी कायदो लावन, राजकीय हालचाली, खबरांपत्रां, रेडिओ, दूरदर्शन, सभामोर्चे, जमाव हांचेर बंदी घाली. भुट्टोचेर भौशीक दुडवांची अफरातफर, लश्करी कायद्याचो गैरवापर, विरोधकांची हत्त्या, राष्ट्रद्रोही अशे आरोप दवरून, ४ एप्रिल १९७९ दिसा ताका गोळार चडयलो.

ज. झिया हाका १७ ऑगस्ट १९८८ दिसा विमान अपघातांत मरण आयले उपरांत सिनेट अध्यक्ष गुलाम इशक खान हो कार्यकारी अध्यक्ष जालो आनी देशांत आणीबाणी जाहीर जाली. नोव्हेंबर १९८८ त जाल्ले भौशीक वेंचणुकेंत पाकिस्तान पिपल्स पार्टीक भोवमत मेळून आदले अध्यक्ष श्री भुत्तो हांची धूव श्रीमती बेनजीर भुत्तो प्रधानमंत्री जाली. श्री गुलाम ईशाक खान अध्यक्ष जालो. फुडें अध्यक्ष आनी पंतप्रधान हांचेमदीं मतभेद उप्राशिल्ल्यान अध्यक्ष इशक खान हाणें पंतप्रधान श्रीमती बेनझीर भुत्तो हिका पदच्यूत करून राष्ट्रीय संसद बरखास्त केली. उपरांत जाल्ले वेंचणुकेंत (आठ ऑगस्ट १९९०) श्री नवाझ शरीफ हाचेकडेन पाकिस्तानाचें पंतप्रधानपद आयलें. श्रीमती भुत्तो आनी श्री शरीफ हांचे मदीं चलिल्ले राजकीय सर्तीचो परिणाम म्हणून श्री शरीफ हांची १९९३ त उचलबांगडी जाली. मोईन कुरेशी ह्या आदल्या जागतिक बॅंकेच्या उपाध्यक्षाकडेन मागीर कामचलाऊ प्रधानमंत्रीपद आयलें. ऑक्टोबर १९९३ त जाल्ल्या वेंचणुकेंत पाकिस्तान पिपल्स पार्टीक जैत मेळून, श्रीमती भुत्तो दुसरे फावट प्रधानमंत्री जाली. थोडयाच काळांत तिका पदच्यूत करून श्री

नवाज शरीफ पर्थून प्रधानमंत्री जालो.

**राज्यवेवस्था** - देशाची राज्यवेवस्था १९७३ त आपणायल्या संविधाना प्रमाण चलता. त्या संविधाना प्रमाण पाकिस्तानच्या संसद भवनाचे नॅशनल ॲसेंब्ली आनी सिनेट अशे दोन वांटे केल्ले आसात. नॅशनल ॲसेंब्लींत वट्ट २१० वांगडी आसून तातूंतले १० जागे बायलांखातीर राखीव दवरल्यात. सिनेटान ६३ वांगडी आसात. २९ मार्च १९७६ दिसा संविधानांत सुदारणा करून नॅशनल ॲसेंब्लींतले ६ जागे अल्पसंखेन आशिल्ल्या बिगर मुसलमानांक राखून दवरल्यात. पाकिस्तानांत जेन्ना जेन्ना लश्करी कायदो लागू केल्लो तेन्ना तेन्ना संविधान तात्पुरतेंच स्थगीत केल्लें पूण केन्नाच रद्द केलेंना. १९८६ त संविधानांत मान्य केल्ल्या बिला प्रमाण इस्लामी धर्मीक कायदो घट्ट केलो.

राज्यकारभारांत सुटसुटीतपण येवचें म्हणून इस्लामाबाद, पंजाब, वायव्य प्रांत, सिंध, बलुचिस्तान आनी आदीवासी जमाती प्रदेश अशे देशाचे ६ प्रांत केल्ले आसात. दर एका प्रांताचो राजकारभार गव्हर्नराचे देखरेखीखाला चलता. दर प्रांताची मुखार जिल्ह्यांनी आनी तालुक्यांनी विभागणी केल्ली आसा.

आझाद काश्मीराची वेगळी खाशेली ॲसेंब्ली आसून तातूंत ४२ वांगडी आसात.

पाकिस्तानांतली न्यायवेवस्था मुखेलपणान ब्रिटीश काळांतले न्यायवेवस्थेंत कांय बदल करून उबारल्या. रावळपिंडी शारांत देशातलें सर्वोच्च न्यायालय आसा. सर्वोच्च न्यायाधीश आनी ताच्या वांगड्यांची नेमणुक राश्ट्राध्यक्ष करता. पाकिस्तानांतली विधीवेवस्था १८६० तली भारतीय दंड संहिता, १८९९ तली फौजदारी प्रक्रिया संहिता आनी १९०८ ची दिवाणी वेव्हार संहिता हांचेर आदारून आसा. पाकिस्तानी लोकांमदीं लग्न, घटस्फोट, वारसोहक्क हांचेविशीं परंपरीक धर्मीक कायदो पाळटात. हाका लागून विधीवेवस्थेंत धर्म आनी पंथ हांचो केन्नाच विचार जालोना. बलुचिस्तान, पेशावर, सिंध आनी लाहोराक उच्च न्यायालयां आसात.

**अर्थीक स्थिती** - पाकिस्तानाची अर्थवेवस्था मुखेलपणान शेतवडीचेर आदारिल्ली आसा. वट्ट कामगारांतल्या सुमार ५१% कामगारांक हो वेवसाय काम दिता. वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांत शेतकी पिकावळीचो सुमार २३.७% वांटो आसा (१९९४). देशाचो ईशान्याकडचो दोंगरी भाग आनी दक्षिणेकडचो रेंवटी भाग सोडल्यार उरिल्ली जमीन पिकाळ आसून सिंधू, झेलम, चेनाब, रावी, सतलज ह्या न्हंयांसावन आनी तांच्या फांट्यांसावन ह्या पिकाळ प्रदेशाक उदक मेळटा. पावसाचें प्रमाण उणें आशिल्ल्यान शेतकी वेवसाय पुरायपणान शिंपणावळीचेर आदारिल्लो आसा. गंव, कापूस, मको, ऊंस आनी तांदूळ हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. गंव आनी कापसाचें उत्पन्न देशाचे गरजे परस चड आशिल्ल्यान तांची व्हडा प्रमाणांत निर्यात जाता. तशेंच तांदूळ आनी साकरी संबंदानूय देशान स्वयंपूर्णताय मेळयल्या. बलुचिस्तानांतल्या क्युट्टा आनी कलत प्रदेशांनी फळफळावळ आनी खाजूर खूब पिकता. उदकांतली पिकावळ बरी आसून, सद्या नुस्तें धरपाखातीर आधुनिक बोटींचो वापर केल्ल्यान, नुस्ताचें उत्पादन दिसानदीस वाडत आसा. १९८८-८९ वर्सा दर्यांतलें उत्पन्न ३,३४,७२० टन जाल्यार न्हंयांतलें उत्पन्न ९२,९५० टन आसलें.

देशांत वेगवेगळ्या खनिजांचे सांठे खूब आसात. फातरी कोळसो आनी लोखणाचे सांठे साबार कडेन मेळटात. पूण ते उण्या प्रतीचे आसात. शारिध, हरनाई, बोलानखींड नगरांनी कोळशाचे सांठे जाल्यार अस्तंत पंजाब, वायव्य सरहद्द प्रांत आनी बलुचिस्तानांत लोखण मेळटा. पोटोवार मैदानांतल्या मेयाल, टूट, बालकासार, जोया मायर आनी धुलियान वाठारांनी तेलाचे सांठे सांपडल्यात. १९८८ त तेलाचें २.४ मॅ. टन उत्पन्न जाल्लें.

विद्युत्शक्तीच्या मळारूय देशान उंचेलो पांवडो हातासला. १९७० त उबारिल्ल्या मंगला धरणासावन आनी १९७५ त उबारिल्ल्या तारबेला धरणासावन जलविद्युत् निर्माण करपाची तजवीज केल्या. पूण पाकिस्तानाची विद्युत्शक्ती मुखेलपणान औश्णिक विद्युत् केंद्रांसावन तयार जाता.

हालींच्या तेंपार पाकिस्तानांत उद्देगधंद्याच्या मळार बरीच उदरगत जाल्या. वट्ट कामगारांतल्या सुमार १०% लोकांक तातूंत काम मेळटा. वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांत निर्मिती उद्देगांचो सुमार १७% वांटो आसा. शेतकी वेवसायाचेर आदारिल्ले साकर, कागद, खावपाचें तेल, सुती लुगट, ताग आनी खाण करपाचे कारखाने हांगा नेटान वयर सरल्यात. सलफ्युरीक ॲसीड, सोडा ॲश, कॉस्टीक सोडा आनी हेर मुळावीं उद्देगीक रसायनां तयार करप, विजेचीं उपकरणां, शिमीट आनी पोलाद हांचेय कारखाने हांगा आसात. जोतीं, चामड्याच्यो वस्तू, कंवचेच्यो वस्तू, सारें, सायकली आनी तांचे मेकळे भाग, पत्रे आनी हेर कारखाने हांगा आसात. सुती लुगट, सूत, तांदूळ, गंव, चामड्याच्यो वस्तू आनी जमखणां हांची खूब प्रमाणांत निर्यात जाता.

**येरादारी आनी संचारण** - येरादारीच्या मळार हांगा खूब सुदारणा जाल्ली आसा. कराची, लाहोर आनी हेर शारांनी रस्ते खूब रूंद आसात. १९८५-८६ वर्सा रस्त्याची लांबाय सुमार १०६,५८० किमी. आशिल्ली. तातूंतले सुमार ४५,६८६ किमी. लांबायेचे रस्ते सगळ्या हवामानांत उकते उरपी आसात. चिनी शिमे लागशिल्लो कोहिस्तान ते हुंजा देगणा मेरेन वचपी काराकोरम म्हामार्ग १९७८ त उक्तो जालो. सगळ्या हवामानांत उकतो उरपी आनी स्कार्द नगर आनी सिंधू देगणाक जोडपी म्हामार्गाचें काम १९८० त पुराय जालें. १९९० मेरेन पाकिस्तानांत ८,७७५ किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आशिल्ले. देशाभितरले आनी आंतरराश्ट्रीय हवाई येरादारीचेर पाकिस्तान इंटरनॅशनल ॲरलायन्स हवाई निगमाची देखरेख उरता. ह्या निगमाची १९५५ त स्थापणूक जाली. कराची विमानतळाचेर साबार आंतरराश्ट्रीय कंपन्यांकडच्यान हवाई येरादारी जाता. कराची हें देशांतलें मुखेल बंदर. कराचीचे उदेंतेक सुमार ३९ किमी. पयस मुहम्मद बिन कासीम बंदर आसा.

तारायंत्र आनी दूरध्वनी क्षेत्रांचेर सरकाराची मालकी आसून, १९९० मेरेन देशांत सुमार ८,७५,००० टेलिफोन आशिल्ले आनी १२,७३६ पोस्ट कचेर्‍यो आशिल्ल्यो. रेडिओ सेवा "पाकिस्तान ब्रॉडकास्टींग कॉर्पोरेशनां" वरवीं चलता. देशांत सुमार १६ रेडिओ केंद्रां आसात. लाहोर, कराची, पेशावर, क्यूटा आनी रावळपिंडी - इस्लामाबादेक टीव्ही केंद्रां आसात. देशांत उजवाडाक येवपी दिसाळ्यांचो आनी नेमाळ्यांचो आंकडो सुमार १,१६० इतलो आसा. तातूंतली ७६५ उर्दू, २७५ इंग्लीश आनी ७० सिंधी भाशेंतलीं आसात. देशांत उर्दू भाशेंतल्यान उजवाडाक येवपी दिसाळ्यांक आनी नेमाळ्यांक चड खप आसा.

**लोक आनी समाजजीण** - वंशीक नदरेन पाकिस्तानी समाज हो हांगाच्या थळाव्या लोकांची आदल्या काळांत आर्य, इराणी, ग्रीसी, अरबी,

अफगाणी, तुर्की, मोगल आनी हेर वांशीक गटांकडेन भरसण जावन तयार जाल्लो आसा. बलुचिस्तानांतले बलुची आनी ब्राहुई जमाती, सिंध प्रांतांतले सिंधी, पंजाबाचे पंजाबी आनी वायव्य प्रांतांतले पठाण अशे मुखेल पारंपारीक सामाजीक गट पाकिस्तानांत आसात. देशाच्या संविधाना प्रमाण पाकिस्तान राश्ट्र इस्लाम धर्मीय. देशांतले सुमार ९७% लोक मुसलमान. तातूंतले चडशे सुनी पंथाचे आसून, शिया पंथाचे लोक खूब उण्या प्रमाणांत आसात. सिंध प्रदेशांत शिया पंथाचो प्रभाव चड आसा. ह्या पंथाखेरीज देशांत कांय प्रमाणांत अहमदिया, इस्मायली ह्या पंथाचेय अनुयायी मेळटात. पाकिस्तानी लोकांमदीं लग्न, घटस्फोट, वारसाहक्क ह्यो गजाली परंपरीक धर्मीक पद्दतीन जातात. मौलवी, मौलाना, इमाम, मुल्ला हे धर्ममुखेली आसून तांचो समाजजिणेचेर आनी राजकारणांत व्हड प्रभाव उरता.

**शिक्षण** – पाकिस्तानांतली शिक्षण पद्धत तीन थरांनी विभागिल्ली आसा. मुळावें शिक्षण पिरायेच्या पांचव्या वर्सासावन सुरू जाता. उपरांत माध्यमिक शिक्षणाचो तेंप सात वर्सां जाल्यार म्हाविद्यालयीन शिक्षणाचो तेंप तीन वर्सांचो आसता. देशांत २२ विद्यापिठां आसात. मिशनरी शिक्षण संस्थांखेरीज, पाकिस्तानांतल्या सगळ्या शिक्षण संस्थांचें राश्ट्रीयीकरण जाल्लें आसा. मुळावें शिक्षण फुकट आसून लेगीत हांगा साक्षरतायेचें प्रमाण फकत ३५% इतलें आसा (१९९२).

**भाशा आनी साहित्य** – उर्दू ही पाकिस्तानाची राश्ट्रीय भास जाल्यार इंग्लीश भाशेचो शासकीय भास म्हणून वापर जाता. वेगवेगळ्या प्रांतातले लोक वेगवेगळ्यो भासो उलयतात. बलुची लोक बलुची भास उलयतात. सिंधी लोक सिंधी, पंजाबी लोक पंजाबी, ब्राहुई लोक ब्राहुई आनी पठाण पुश्तू भास उलयतात. पाकिस्तान राश्ट्र अस्तित्वांत आयले उपरांत उर्दू भास आनी साहित्याचो विकास जावंचो म्हणून देशांत एका स्वतंत्र मंडळाची स्थापणूक केल्या. मुहंमद इकबालाचो पाकिस्तानाचो राश्ट्रीय कवी म्हणून उल्लेख जाता. शौकत थानवी, मजीद लाहोरी आनी अहमद शाह बुखारी हे विनोदकार आनी निबंदकार लेखक म्हणून प्रसिद्ध आसात. हसन अस्करी, हसन मंटो, अझीझ अहमद हांचो श्रेश्ठ कादंबरीकारांमदीं आसपाव जाता. काव्यगायनाच्यो वाचनाच्यो (मुशाहिरे) कार्यावळी देशांत चड लोकप्रिय आसात. हाजीफ जालंधरीन बरयल्लें 'शाहनामा - ई - इस्लाम' हें म्हाकाव्य आसून, तें साबार खंडांनी विभागिल्लें आसा. पुश्तू साहित्याची वाड जावंची म्हणून पेशावर नगरांत पुश्तू अकादमीची स्थापणूक केल्या आनी सिंधी साहित्याची उदरगत जावंची म्हणून लतीफाबाद शारांत सिंधी उदबी मंडळाची स्थापणूक केल्या.

**कलाकुसर** – प्राचीन सिंधु संस्कृतायेचें दर्शन दिवपी मोहें-जो-दाडो आनी हडप्पा ह्या खणून काडिल्ल्या नगरांचो पाकिस्तानांत आस्पाव जाता. पाकिस्तानांतल्या इस्लामी वास्तूंभितर इराणी मूळघटकांचें व्हडपण दिश्टी पडटा. लाहोराचो किल्लो, मशिदी आनी कबरी ह्यो मोगल शैलीचेर उबारिल्ल्यो आसात. पाकिस्तानाच्या नॅशनल म्युझीयमांत सिंधू संस्कृतायेंतले पुरातन अवशेश, बौध्द मुर्तीशिल्पां आनी मोगल तेंपावयल्ल्यो इस्लामी कलावस्तू पळोवपाक मेळटात. लाहोर शारांत आशिल्ल्या सॅंट्रल म्युझीयमांतूय वेगवेगळ्यो प्राचिन आनी मध्ययुगीन कलावस्तू पळोवपाक मेळटात. पाकिस्तानी लोकांक चित्रकलेची आनी मुर्तीकलेची खूब आवड आसा. अब्दूल रहमान चुगताई हो हालींच्या तेंपावयलो प्रसिद्ध कवी. पाकिस्तानी लोकांक संगिताचीय आवड आसा. हिंदुस्थानी संगिताचेर आदारिल्ले गझल आनी कव्वाली हे सुगम संगिताचे प्रकार चड लोकप्रिय आसात. गांवगिऱ्या वाठारांनी लोकसंगीत, लोकगीत तशेंच मुरली आनी धोलक्यांच्या तालाचेर जावपी नाच पळोवपाक मेळटात. पंजाब प्रांताच्या कांय वाठारांनी लग्न सुवाळ्याक बायलां लुड्डी आनी घुमारा हे नाच करतात. धातूकाम, लांकडी शिल्प, हस्तीदंत शिल्प, विणकाम आनी भरतकामांत पाकिस्तानी कारागिरांची कुशळटाय पळोवपाक मेळटा. क्रिकेट आनी हॉकी हे देशांतले लोकांरूचीचे खेळ आसून, देशान ह्या खेळांनी आंतरराश्ट्रीय नामना मेळयल्या. टॅनीस आनी सॉकेट खेळूय देशांत लोकप्रिय आसात.

**म्हत्वाचीं थळां** – कराची, लाहोर, ल्यालपूर, हैदराबाद, रावळपिंडी, इस्लामाबाद हीं देशांतलीं मुखेल शारां. कराची हें देशांतलें सगळ्यांत व्हड शार. तें वेपारी आनी येरादारीचें केंद्र. लाहोर शार देशाचें शैक्षणीक आनी सांस्कृतीक केंद्र. मुलतान शार इतिहासीक वास्तू, चीनी मातयेच्यो वस्तू, कवचेचें सामान, नळे, एनामॅलाच्यो वस्तू आनी उंटाचे कातीचेर केश्ल्यां नक्षी कामाखातीर प्रसिद्ध आसा.

– श्री. माणिकराव गावणेकर

– कों. वि. सं. मं.

**पाखो-१** : दर वर्सा पावसाच्या सुमाराक फुलझाडांच्या पोरसांनी दिसपी वेगवेगळ्या रंगांचो आनी पाखांचेर तरेकवार नक्षी आशिल्लो जीव. ह्या फुलावयल्यान त्या फुलाचेर मेकळेपणान उडटना ते आमकां दिसतात. रंगीत आनी ओडलायणीं पांखां हें तांचें खाशेलपण. हे जीव लेपिडॉप्टॅरा गणांतले. ह्याच गणांत पिसोळ्यांचोय आस्पाव जाता.

लेपिडॉप्टॅरा हो जिवांचो एक व्हड गण. पुर्विल्ल्या शास्त्रज्ञांनी ह्या गणांची दोन उपगणांनी विभागणी केली. तातूंतलो ऱ्होपॅलोसेर हो पयलो उपगण आनी हेटेरोसेरा हो दुसरो. ऱ्होपॅलोसेरांत पाखे आनी हेटेरोसेरांत पिसोळ्यांचो आस्पाव जाता. ते उपरांत भायल्या आकाराचेर, शरीराचे रचनेंतले फरक विचारांत घेवन, पांखांचे रचणुकेचेर बी आदारिल्लीं वर्गीकरणां केलीं. हाचेप्रमाण लेपिडॉप्टराचे झ्युग्लॉप्टॅरा मोनोट्रायसीया आनी डायट्रायसीया अशे तीन उपगण जातात. सर्वसादारणपणान ह्या तिनूय उपगणांनी मेळून १७ अधिकुलांनी पिसोळ्यांची विभागणी जाता. हेस्पेरिआयडीया ह्या अधिकुलांत 'स्किपर्स' ह्या पाख्या कडेन लागींचो संबंद आसपी जिवाचो जाल्यार पॅपिलिओनॉयडीया ह्या अधिकुलांत पाख्यांचो आस्पाव जाता.

पाखे दिसाचे भोंवतात आनी रातचे विसव घेतात. पिसोळीं मात रातचीं भोंवतात आनी दिसाचीं विसव घेतात. तीं आपल्यो शृंगिका (सांध्यांचें लांब स्पर्शेंद्रीय) तोंडाफुडें धरिनात. पूण पाखे आपल्यो शृंगिका सदांच तोंडाफुडें धरतात. पाखे फुलांचेर बसले म्हणजे तांचीं चारय पांखां एकाक एक जोडून फाटीचेर सरळ उबीं रावतात. पिसोळीं जेन्ना ओग्गी बसतात तेन्ना तांचीं पांखां एकमेकांक जोडनात. तीं तशींच पातळावन उरतात आनी ताका लागून तांचें शरीर धांपून उरता. पाखे हुशार आसतात. पूण पिसोळ्यांचें शरीर जड आशिल्ल्या कारणान तांच्यो हालचाली बेगीन जायनात.

पाख्याचें शरीर लांबट आसता आनी ताचे तकली, छाती आनी पोट अशे तीन भाग जातात. तकली ल्हान आनी वाटकुळी आसता. तकलेच्या

दोनूय वटांनी दोन व्हडले, बहिर्गोल, संयुक्त अशे दोळे आसतात. दर एका संयुक्त दोळ्यांत जायत्यो बाजू आशिल्ले दोळे आसतात. संयुक्त दोळ्यांमदल्या जाग्यांत दोन सादे दोळे आनी दोन शृंगिका आसतात. शृंगिका लांबट आसतात आनी तोंकाकडेन मातश्यो दाट आसतात. तकलेचे सकयले वटेन सोंड आसता.

पाख्याचें हड्डें तीन खंडांचें आसून घट्ट आसता. पयलो आनी तिसरो खंड आकारमानान ल्हान आसता आनी दुसरो खंड पयल्या आनी तिसऱ्या खंडांपरस व्हड आसता. हड्डुयावयल्या दर एका खंडाचेर पांयांची एक जोडी आसता. सगळ्या पांयांची लांबाय आनी रचणूक चड करून सारकी आसता. पूण निर्फॅलिनी ह्या उपकुळांतल्या पाख्यांच्या पांयांची पयली जोडी लांबायेन बरीच उणी आसता म्हणून तांकां सारकें चलपाक येना.



पाख्यांच्या हड्डुयाच्या दुसऱ्या आनी तिसऱ्या खंडांचेर पांखांच्यो दोन जोडयो आसतात. पांखां व्हड, रंगीत आनी खवळांनी धांपिल्लीं आसतात. हीं खवळां पोकळ, बारीक पोतये भाशेन आसतात आनी हे पोकळेंत बारीक रंगीत कण भरिल्ले आसतात. तशेंच, कांय रंगीत कण खवळांनी भितरले वटेन चिकटिल्ले आसतात. ह्या खवळांतल्या रंगीत कणांक लागुनूच तांचीं पांखां रंगीत दिसतात. तशेंच तांच्या पांखांचेर जायत्या उब्या आनी आडव्या ओळींचें जाळें तयार जाल्लें आसता. पाख्यांचें शरीर हलकें, पांखां घट्ट आनी व्हड आशिल्ल्या कारणान ते खूब वेळमेरेन हवेंत सारके उडत रावतात. हे वटेनच्यान तेवटेन वतना ते केन्नाच एके ओळीत उडनांत. सकल-वयर अशे वांकडे तिकडे ते उडत रावतात. तांच्या अशा प्रकारच्या उडपाक लागून जीव खावपी सवण्यांक आनी पाखे जमोवपाचो छंद आशिल्ल्यांच्या हाताक चड करून ते लागनात.

पाख्याच्या पोटाचे धा खंड आसतात. पयलो खंड खूब ल्हान आसता. दुसरो ते आठवो हे खंड सामान्य आसतात. णववो आनी धावो हे दोन खंड प्रजोत्पादनाच्या कामाखातीर मातशे बदलिल्ले आसतात. पाख्याच्या शरिराचे भितरले रचणुकेंत पचन तंत्र, तंत्रिका तंत्र, परिवहन तंत्र, जनन तंत्र आनी श्वसन तंत्राचो आसपाव जाता.

पावसाच्या अदमासाक जायते पाखे दिसतात. ह्याच वेळार नर मादयेचो संयोग जाता आनी मादी झाडांच्या पानांचेर तांतयां घालता. तांतयांतल्यान भायर सरपी डींभांक तांचे खाण मेळोवपाक त्रास पडचेनात अशा जाग्याचेर पाखे आपलीं तांतयां घालतात. कांय जातींच्यो मादयो आपलीं तांतयां झाडांच्या पानांचे सकयले वटेन चिकटावन दवरतात. हाका लागून वाऱ्यान जावं पावसान तीं पानावयल्यान हुबून जावं धुवन वचनात. जीं पानां डींभ खातात त्याच पानांचेर मादी आपलीं तांतयां घालता. कांय जातींच्यो मादयो आपलीं तांतयां झुडपांचेरूय घालतात.

मादी तिच्या आयुश्यांत १०० ते ५०० तांतयां घालता. तांतयांचो रंग धवो, हळदुवसार जावं फिकट आसता. तांचो आकार वाटकुळो, चेपटो जावं अर्दवाटकुळाकार आसता. तांतयांच्या कट्ट्याचेर एके तरेची नक्षी आसता. कांय पाख्यांचीं तांतयां १ ते २ दिसांनी फुट्टात जाल्यार कांय पाख्यांचीं १० ते ३० दिसांनी फुटून तातूंतल्यान डींभ भायर सरतात. ही दुसरी जिवनावस्था. हो डींभ तांतयांवयलें कट्टें आपल्या तोंडान खाता आनी मागीर झाडांचीं पानां खावपाक सुरवात करता.

डींभाचें शरीर खूब मोव आसता. ताच्या शरिराचे १४ खंड आसतात. शरिराचे तकली, हड्डें आनी पोट अशे तीन भाग जातात. डींभाचें तोंड पयल्या खंडाचेर आसून गुद्द्वार निमाण्या खंडाचेर आसता. तकली घट्ट आसता आनी तिचेर एक मोटवी तीन भागांची श्रृंगिकांची जोडी आसता. तकलेच्या दोनूय वटांनी दर एक मेळून स सादे दोळे आसतात. डींभाच्या तोंडाच्या दोनूय वटांचेर घट्ट-तीक्ष्ण अशे जबडे आसतात. हांच्याच आदारान डींभ पानांचे बारीक कुडके करून खातात. हड्डुयाच्या दर एका खंडाचेर सकयले वटेन पांयांची एक जोडी आसता. दर एका पांयांक एक नाखूट आसता. पोट १० खंडांचें आसता. वयले वयर पळयल्यार फकत णवूच खंड मेजपाक येतात. निमाणो खंड संयुक्त आसता. पोटाचेर चलपाच्या कामाक मदत करपी मासाळ वाडींच्यो पांच जोडयो आसतात. हांकां पूर्वपाद म्हण्टात. ह्या पादांचो निमाणो भाग रूंद आनी वाटकुळो आसता आनी ताका आंकडे आसतात. हे पाद फकत डिंभाचे अवस्थेंतूच आसतात. त्या पादांचेर डिंभाक आपलो तोल सांबाळप सोंपे जाता.

कांय डिंभाच्या शरिराचेर सामके बारीक, मोटवे आनी विस्कळ केंस आसतात. थोड्यांचेर केंस मातूय आसनात. तांचो रंग वेगवेगळो गाड आनी ओडलायणो आसता. पूण थोड्यांचो रंग फिको आसता.

डिंभाचें मुखेल अन्न म्हणजे झाडाचीं पानां. पूण थोडे डिंभ फळां आनी पानांचे देंठ खातात आनी पानां आनी खोडां पोखरतात. डिंभ चार खेपे कात उडयतात. दर खेपे कात उडयतकच ताचो रंग बदलता आनी शरीराचीय वाड जाता. ही अवस्था ३ ते ८ सप्तकांची आसता. हे उपरांत डिंभाचें कोशांत रुपांतर जाता.

डिंभाचें कोशांत रुपांतर जावंचे पयलीं वाड जाल्लो डींभ अन्न खावप बंद करून कोशावस्थेंत रावपाखातीर योग्य जागो सोदता. असो जागो मेळ्ळे उपरांत डींभ आपलें अन्ननलिकेंतलें अन्न भायर उडयता आनी ती रिकामी करता. कोश जावपाच्या सुमाराक डींभ एकाच जाग्यार सुस्त पडून रावता. ताचे कातीचो रंग गाड जाता. शरीर आंवळून फुगरें जाता. पोरणे कातीसकयल नवी कात तयार जाता आनी पोरणे कातीपसून नवी कात सुटावी जाता. थोड्या वेळान डिंभाचें कोशांत रूपांतर जाता. हे कोश चड करून पानांक चिकटल्ले आसतात. स्वॅलोटेल जावं व्हायटस ह्या पाख्यांचे कोश पोटाच्या खंडाच्या निमाण्या भागावरवीं पानांक चिकटायल्ले आसतात. अशा कोशांची तकली वयले वटेन आसता. इरिसिनीडस, टॉरटायझ शॅल आनी फ्रिटीलॅरी ह्या पाख्यांचे कोश हुमकळटात आनी ते फकत निमाण्या पोटाच्या खंडाच्या आदारान पानांक

चिकटल्ले आसतात. ब्ल्यू आनी कॉपर ह्या पाख्यांचे कोश सगळ्या आंगांनी पानांचेर चिकटून रावतात. तांच्या सगळ्या आंगाचेर रेशमी धाग्यांचें एक जाळेंच तयार जाल्लें आसता. हाका लागून तांकां योग्य ती राखण मेळटा.

कांय कोश पातळ कवचान धांपिल्ले आसतात. हें कवच पातळ आशिल्ल्यान कोशाची दर दिसा जावपी वाड भायल्यान दिसता. कोशावस्थेंत ताच्या शरीराची कांयच हालचाल जायना आनी तो अन्नय खायना. ही अवस्था सुमार ३ ते ४ सप्तकां उरता. हे मुदती उपरांत कोशावयलें पातळ आवरण फुटून पूर्ण वाड जाल्लो पाखो भायर पडटा आनी फुलांतलें म्होंव खावपाक लागता.

अशे तरेन पाख्यांच्या जीवनक्रमांत तांतीं, डींभ, कोश आनी पूर्ण (प्रौढ) कीड अशो चार अवस्था आसतात. दर एके अवस्थेची काळमर्यादा वातावरणांतलें तापमान, सूर्यप्रकाश हांचेर आदारून आसता. शिंया दिसांनी ती दीर्घकालीन आसता जाल्यार गिमाच्या दिसांनी थोड्या वेळाची आसता. कांय पाख्यांच्यो एका वर्सांत २ ते ३ पिळग्यो जातात जाल्यार कांय पाख्यांची एकूच पिळगी तयार जाता.

कांय जातींचे पाखे तोळां भाशेन एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार जाल्यार केन्ना केन्नाय एका देशांतल्यान दुसऱ्या देशांत स्थलांतर करतात. अशीं स्थलांतरां चड करून थरावीक दिसांनी दक्षिणेकडच्यान उत्तरेकडेन करतात. पाखे आपल्या जिवितांत एक जावं दोन खेपे स्थलांतरां करतात. स्थलांतर करचे पयलीं हजारांनी पाखे एकठांय जमून हवेंत उडपाक लागतात. हे पाखे हवेंत जायतो वेळ उडत रावतात आनी दोंगर, न्हंयो, दर्या सारकिल्यो आडखळी सहज पार करतात. हरशीं पाखे चड उंचायेवयल्यान उडनात. हाका लागून तांचीं पांखां पानांक जावं तणांक लागून मोडटात. पूण स्थलांतरा वेळार ते खूब उंचायेवयल्यान उडटात आनी तांच्या पांखांक कांयच दुखापत जायनासतना ते बरे भाशेन प्रवास करपाक शकतात. भारतांत पिरीडी ह्या कुळांतले कॅटोप्सिला आनी पिरीस ह्या वंशांचे पाखे आनी निंफॅलिडी ह्या कुळांतले डनायस आनी व्हॅनेसा ह्या वंशांचे पाखे नेमान हिमालयांतल्या थंड प्रदेशाकडेन स्थलांतर करतात अशें समजलां. थंय वतकच शिंयाक लागून शेंकड्यांनी पाखे मरतात आनी उरिल्ले मात परत येतना एक-एकले येतात. पूण हीं स्थलांतरां ते किदया खातीर करतात म्हणपाचीं कारणां आजूनमेरेन शास्त्रज्ञांक निश्चीतपणान खबर नात.

पाख्यांक हवेंतलें थरावीक तापमान मानवता. जेन्ना तापमान सामकें सकल देंवता आनी हवा थंड जाता अशा वेळार पाखे जावं तांची खंयचीय जीवनावस्था दीर्घकाळ तिगता. हे स्थितीक शीत निश्क्रीयता अशें म्हण्टात. शिंयाच्या तेंपार तांतीं, डींभ, कोश जावं पाखे हांची जी अवस्था आसता ती दीर्घकाळ तिगता. ह्या वेळाचेर ते अन्न खायनात. श्वसनाची क्रिया सामकी मंद चलता. हालचाल अजिबात नासता आनी शरिरांतल्यो सगळ्यो क्रिया खूब मंद चलतात. सॅटिरिडी ह्या कुळांतल्या पाख्यांचे डींभ शिंया दिसांनी झाडावयल्यान सकयल देंवतात आनी मुळाकडेन सुप्तावस्थेंत पडून रावतात. जायते डींभ आपलेच लाळेन पानांमदीं एक ल्हानसो घोंटेर तयार करून तातूंत रावतात. तशेंच ते पानांचेरूय सुप्तावस्थेंत पडून रावतात. अशा वेळार उकतशेर आशिल्ल्या कारणान दुस्माना पसून तांकां खास अशी काळजी घेवंची पडटा. हे खातीर डींभ लाळेन पानाची एक नळी कशी करता आनी तातूंत लिपून बसता. जायते खेपे अशीं पानां जमनीर झडून पडटात आनी डींभूय जमनीर पडून मरपाचो भंय आसता. हेखातीर डींभ लाळेनूच पानांचो देंठ झाडाक चिकटावन दवरतात. अशा पानांक इंग्लिशींत 'हायबर्नक्युलम' अशें म्हण्टात.

कांय खेपे तांतयां जावं कोशूय सुप्तावस्थेंत वतात. अशा वेळार तांची प्रतिकारशक्ती खूब वाडिल्ली आसता. तीं जरी उदकांत बुडलीं जावं तांचेर कितलेंय विखारी द्रव्य फाफुडलें तरीय तीं मरनात. व्हॅनोसिडी ह्या कुळांतले पाखे आपली सुप्तावस्था चड करून गुदांव, पडकीं जावं वसाड घरां अशा जाग्यांनी लिपून बसून काडटात.

गिमाच्या दिसांनी जेन्ना हवेंतली गरमी वाडटा तेन्ना चड करून पाखे जावं तांची खंयचीय जीवनावस्ता एके प्रकारचे सुप्तावस्थेंत वता. हे स्थितीक ग्रीष्मनिश्क्रीयता अशें म्हण्टात. ही स्थिती शिंयातले सुप्तावस्थेसारकीच आसता.

पाखे जावं तांच्यो हेर जीवनवस्था सामक्योच नाजूक आसतात. सवणीं, शेड्डे जावं मासाहारी किडी आनी कोळी हे तांचे मुखेल दुस्मान. दुस्मानापसून आपली राखण करपाखातीर डिंभांक जावं पाख्यांक संरक्षक अवयव आसतात. सवणीं जावं शेड्डे हांची नदर सामकी तीक्ष्ण आसता. हाका लागून तांकां तांतयां, डींभ, कोश जावं पाखे सोंपेपणीं मेळपाक शकतात. हाका लागून आपली राखण करपाखातीर ह्या जीवनावस्थांचो रंग आनी आकार भोंवतणचे परिस्थितीकडेन एकरूप जावपी आसता. हाका मायावरण म्हण्टात. मासाहारी किडी जावं कोळी हांची नदर तितली तीक्ष्ण आसना. अशा दुस्मानांपसून राखण मेळोवपाखातीर मायावरण उपेगी पडना. अशावेळार शरीरावयले विखारी केंस, आंगाक येवपी घाणयारो वास, शरीराचें पचकेपण हांकां लागून तांची राखण जाता. केन्ना केन्नाय आपली राखण करपाखातीर हेर सुरक्षीत पाख्यांची नक्कलूय ते करतात.

पाख्यांच्या जीवनक्रमांतली डींभावस्था ही मनशाक त्रासदायक जाल्यार पुर्णावस्था ही उपेगी आसता. पाखे ज्या झाडाचेर तांतयां घालतात त्या झाडाचीं पानां हे डींभ अधाशीपणान खातात. डींभ आपल्या वजनाच्या कितल्यातरी पटींनी चड वजनाचें अन्न खातात. पचूंक नाशिल्लें अन्न ते विश्ठेच्या रुपान भायर उडयतात. लेपिडॉप्टॅरा ह्या गणांतल्या सगळ्या किडींच्यो डिंभावस्था खूब त्रासदायक आसून त्यो तृणधान्यां, फुलझाडां, फळझाडां, तण, सांठयल्लें अन्न, कपडे हांची खूब नाशाडी करतात. पूण अशे उपद्रवी डींभ चडशे पिसोळीं ह्या किडींचेच आसतात.

डींभांक मारपाखातीर गॅमेक्झिन, एंड्रिन, लिंडेन, डीडीटी सारकिल्या वखदांचो वापर करूं येता. ह्या वखदांचो फवारो पानांचेर मारतकच तीं पानां डींभ खातात आनी विखारी द्रव्यां आंगाक लागून जावं पानांवांगडां पोटांत वचून ते मरतात.

पाखे ही अवस्था उपेगी. कारण ह्यो किडी फुलांक कांयच दुखापत करीनासतना फुलांतलें म्होंव खातात आनी ह्या वेळार तांच्या पांयांक फुलांतले परागकण दसतात. पाखे जेन्ना एका फुलावयल्यान म्होंव खावपाक म्हणून दुसऱ्या फुलाचेर वचून बसतात तेन्ना हे परागकण त्या फुलांतल्या किंजल्काचेर पडटात आनी फळधारणा जाता.

पाख्यांच्या ओडलायण्या रंगीत पाखांक लागून आनी हे रंग पाखे मेल्यारूय तशेच उरतात देखून तांकां एकठांय करपाचो छंद खूब जाणांक आसता. पाख्यांच्या पांखांवयलें तरेकवार नक्षीकाम कापडधंद्यांतल्या लोकांक कपड्यांचेर वेगवेगळ्या रंगांची आनी आकृतींची छापणावळ करपाखातीर नमुनो म्हणून उपेगी पडटात. पापुआ न्यू गिनींतल्या पांचशांपरस चड

गांवांनी व्हड प्रमाणाचेर पाखे पोसतात. मागीर तांकां धरतात आनी किटकविज्ञानीक, संग्रहालयां, खाजगी संग्राहक हांकां विकतात. चड करून तांचीं पाखां प्लास्टिकांत बसयतात आनी सोबेच्यो वस्तू करपाखातीर वापरतात. पाखे पोसपाची ही पद्दत ना जावपी पाख्यांचें संरक्षण करपाखातिरूय उपेगी पडूं येता.

- कों. वि. सं. मं.

**पाखो -२ (वागोळें) :** शास्त्रीय नांव कोलंबा लिव्हिया. कोलंबीया पक्षीकुळांत पाख्यांचो आस्पाव जाता. भूमध्य दर्या भोंवतणचे देश, ग्रेट ब्रिटन, आफ्रिका, पॅलेस्टायन, तुर्कस्तान, भारत, श्रीलंका आनी ब्रह्मदेशांत पाखे मेळटात. रानटी पाखे खडपांच्या खांचींनी सांपडटात. थोडेभोव मनशाळिल्ले पाखे मोडक्या घरांनी, देवळां, बांयो, किल्ले ह्या सुवातांनी सांपडटात.





पाखो कावळ्यापरस ल्हान आसता. पुराय शरीराचो रंग निळसर आसून मानेच्या वयल्या भागांत पाचव्या रंगाचो चकचक दिश्टी पडटा. ताच्या पांखांचेर दोन आनी शेंपडेच्या तोंकाकडेन एक अशे आडवे काळे पटे आसतात. नर आनी मादी दिसपाक सारकींच आसतात. पाख्यांची ल्हान व्हड भिरीं आसतात.

कावळ्या सारकोच पाखोय रानांतल्यान मनशाच्या आलाशिऱ्याक येवन रावला. पूण तो मनशाक त्रास मात दिना. गांवगिऱ्या वाठारांनी आनी शारांनीय पाखे दिश्टी पडटात. पाखे पेरां, चिकू हीं फळां तशेंच सगळ्या तरांचें धान्य खातात. शेतांत वचून वा हेरकडल्यान ते धान्य खातात. ते बशिल्ले आसतना गुटूर-गूं, गुटूर-गूं असो आवाज काडटात. पाखो उडटना मोठो आवाज करता पूण तो आवाज 'अल्ट्रा सॉनीक' आशिल्ल्यान आयकूंक येना. नर आनी मादी सदांच एकमेकांच्या लागसार रावतात. खूबदां नर पाखो मान फुगोवन, शेंपडी पातळावन घूं घूं असो आवाज काडीत मादये भोंवतणी नाचता. दोगांय तोचींनी एकामेकांची पांखां नितळ करतना दिसतात. पाखे आपलो घोंटेर खडपांनी वा दोंगुल्ल्यांच्या खांचींनी वा जे सुवातांचो वत, वारो, पावस हांचेपसून सुरक्षित उरूंक शकता अशा सुवातांचेर थोडचो बडयो, तिस्त्यो वा पाखां लावन खोल असो घोंटेर तयार करतात. गांवांतले पाखे वण्टीचीं कुरकुटां, घरांतल्या खांचींनी घोंटेर बांदतात. मादी दर खेपेक २ धवीं तांतयां घालता. तांतयां फुटून पिलां भायर पडपाक १५-१६ दीस लागतात.

- कों. वि. सं. मं.

**पागी :** एक जात. कारवार जिल्ह्यांत काळी न्हंयेचे देगेर ह्या लोकांची वसती आसता. ही जात अल्पसंख्य आसा. नुस्तें धरप म्हळ्यार कोंकणींत पागप ताचेवयल्यान तांचें नांव पागी वा पागे अशें पडलें. हे लोक मूळचे गोंयांतले आसून नुस्तें मारप होच तांचो पिळग्यान पिळगी चलत आयिल्लो धंदो. हालीं ते शेती करप, व्हडी चलोवप हे सारकेय वेवसाय करतात. गोंयांतलीं मल्लिकार्जून, गुरूपरदेशी आनी महामाया हीं तांचीं कुळदैवतां. कद्रा ह्या गांवांत तांचे महामाया देवीचें देवूळ आसा. दरवर्सा ते तिचे यात्रेक वतात. कांय प्रसंगां वेळार ते देवीक कोंबी, बोकडी हांचो बळी दितात. कर्नाटकी ब्राह्मण ताचें पुरयतपण चलयतात.

- कों. वि. स. मं.

**पागे, राघो राम :** गोंयचो शिंद्यांच्या लश्करांतलो एक सरदार. ताचें मूळ आडनांव राजाध्यक्ष. ताचें घराणें मूळ कुठ्ठाळचें, पूण धर्मांतराच्या काळांत ते आरोंदें गावांत वचून रावले. ताचो बापूय राम शेणवी राजाध्यक्ष मराठ्यांचे सेवेंत आसून रांगणा किल्ल्याचो किल्लेदार आशिल्लो. राघो राम व्हड जातकच सातान्याक वचून नारो मंत्र्याक मेळ्ळो. ताणें ताका सादी नोकरी दिली. फुडें पेशवे पुण्यांत वतकच ताका पागेचो अधिकारी नेमलो. देखून ताचें आडनांव पागे जालें. फुडें रामचंद्र मल्हारचे सांगणेन शिंद्याच्या लश्करांत ताची नेमणूक जाली. नागोरच्या घेरावांत आनी दत्ताजी शिंद्याच्या वेळार कुंजपुराच्या झुजांत ताणें बरोच पराक्रम गाजयल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**पाचगणी :** महाराष्ट्र राज्याच्या सातारा जिल्ह्यांतलें थंड हवेचें थळ. वाई-महाबळेश्वर रस्त्याचेर वाईसावन अस्तंतेक १२ किमी. अंतराचेर सह्याद्रिच्या उदेंत-अस्तंत सोंडयेच्या वातविमुख देंवतेचेर हें शार वसलां. हांगाची भुंयेची रचणुक ज्वालामुखी प्रकारची आसून जमीन चडशी लोखणान भरशिल्ली तांबडी आसा. ह्या वाठाराची उंचाय १३३५ मी. हांगाचें चडांत चड तापमान ३१.१° सॅ. आनी उण्यांत उणें १६° सॅ. इतलें आसता. पावस सरासरी १८०.६ सेंमी. आसता. ह्या वाठारांत मदीं आशिल्ल्या सपाट दोंगराक लागून (टेबललॅंड) उदेंतेकडल्या वाऱ्यापसून ह्या वाठाराची राखण जाता. १८६२ सावन ब्रिटिशांनी हांगा आपली वसणूक केली आनी तेन्नाच्यान ह्या शाराची उदरगत जायत गेली. १९१० सावन शाराची वेवस्था नगरपालिका पळयता.

तरेकवार फूलझाडां, पाचवीचार सृश्ट, थंड आनी बरें हवामान हीं हांगासलीं खाशेलपणां. क्षयपिडीतांखातीर आशिल्लें 'बेल ॲर रुग्णालय' आनी हेर सात आरोग्यधामांची हांगा नामना आसा. हांगा वेगवेगळ्या प्रकारच्यो बागो आसून तातूंत विलायती आनी हेर वनस्पत, इंग्लीश

बटाटां, काफी हांची लागवड करतात. तशेंच ब्लॅक बॅरी, विलायती मेथी, स्वीट हेलिओट्रोप, स्ट्रॉबॅरी हांचेंय उत्पादन जाता. निलगिरी, सुरू, सिल्वर ओक, जामळ आनी रान गुलाबाची झाडां हांगा आसात. शेतीभायर कातडी उद्देग, पर्यटकांखातीर हॉटेलां, मुरांबे, खवो, म्होंव आदी उद्देग हांगा चलतात.

टेबल लँड, सिडनी पॉयंट, कांगा पॉयंट, कच्छबावडी पॉयंट, दांडेघर हांगाचें केदारेश्वर, मॉरल रीआर्मामँट सँटर (एम. आर. ए), 'डॅव्हिल्स किचन' आदी पळोवपासारकीं थळां हांगा आसात. पाचगणीचे उदेंत-आग्नेयेक ६.५ किमी. अंतराचेर 'राजपुरी' नांवाची व्हॉवरी आसून तातूंत कार्तिक स्वामीचें सुंदर देवूळ आसा. उत्तरे वटेन कृष्णा न्हंयेच्या देगणांत आशिल्लें धोम धरण न्हंयेचे देगेवयलीं ल्हान खेडीं, भौशीक उद्यानां, क्लब आनी नाटकघरां पळोवपासारकीं आसात. हांगाच्या सैमीक वातावरणाक लागून हांगा चलचित्र निर्मातें चित्रीकरणाखातीर येतात.

विद्यानिकेतनाचे धर्तेचेर इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिक्षण दिवपी संजीवन, अंजुमन-इ-इस्लाम, सेंट पीटर्स, किमिन्स, बाथा आदी इकरा निवासी विद्यालयां हांगा आसात. तशेंच महात्मा फुले विद्यालय आनी संजीवन हीं मराठी माध्यमांतल्यान शिक्षण दितात. हांगा दर वर्सा माघ म्हयन्यांत घाटजाई हे गिरीदेवतेची जात्रा भरता.

– कों. वि. सं. मं.

**पाचू :** एक खनीज. वैदूर्याचो मध्यम ते गाड पाचव्या रंगाचो प्रकार. हें स्फटीक षट्कोनी आनी कठीण आसता. तशेंच हें खूब उण्या प्रमाणांत मेळिल्ल्यान हिऱ्याभाशेन मोलादीक आसा. हातूंत उण्या प्रमाणांत क्रोमियम ऑक्सायड आसता आनी ताकाच लागून ताका रंग आयिल्लो आसता. पूण चड तापयल्यार हाचो रंग वता. पाचूचेर आम्लाचो कसलोच परिणाम जायना पूण घांशीत जाल्यार तो विद्युत्भारीत जाता.

पाचू चड करून अभ्रकी सुभाजांत आनी स्फटिकी चुनखडकांनी तशेंच केन्ना केन्नाय पेग्मटायटांत मेळटा. हाका पाच, गरूडपाच आनी मरकत अशींय नांवां आसात. गरूडोध्दार, कीडउढी, बासवती, मूगउनी आनी धूलिमराई अशो पाचूच्यो पांच जाती मानल्यात.

पाचू हें नवरत्नांतलें एक महारत्न. बरे प्रतीचो पाचू तणाभाशेन पाचव्या रंगाचो आसता. ह्या पाचव्या रंगांत भांगराची सया आसल्यार तें रत्न बरे प्रतीचें मानतात. पाचूचें तेज सामकें कोमल आशिल्ल्यान ताका चड चकचकसाण आसता. एकाच रंगाचो आनी उदकाळ पाचू तळव्याचेर दवरून बारीक नदरेन पळयल्यार, तातूंतल्यान बारीक कीर्ण भायर पडून तळवो पाचवो दिसता. असलो पाचू उदकांत भरिल्ल्या कंवचेच्या आयदनांत दवरल्यार उदकाचो रंग लेगीत पाचवो दिसता. विंगड विंगड अलंकारांनी चड करून मुदयो करपाक पाचूचो उपेग करतात. पाचू हें बुधाचें प्रिय रत्न मानलां. पाचूच्यो देवमुर्तीय घडयतात.

आंगाचेर पाचू धारण केल्यार घुंवळ येवप, अतिसार जावप ह्यो पिडा बऱ्यो जातात असो समज आसा. नवेंच गुरवार बायलेन पाचू आंगाचेर घातल्यार ती बरे भाशेन बाळंत जाता आनी भुतांखेतां तिचेलागीं येनात अशेंय मानतात. पाचवो रंग शितळ, थंड आनी दोळ्यांक बरो आशिल्ल्यान पाचूचीं ओक्लांय करतात. पुर्विल्ल्या काळासावन पाचू हें रत्न म्हणून वापरांत आसून इजिप्तांत तें इ. स. पयलीं १६५० वर्सासावन काडटात. क्लिओपात्रा राणी इजिप्तांतलो पाचू वापरताली असो उल्लेख आसा. दक्षिण अमेरिकेंतले इंका लोक पाचू वापरताले. राजा निरो पाचूचें ओक्ल वापरतालो असो उल्लेख मेळटा.

पाचू बुधाचें तशेंच मे म्हयन्याचें रत्न मानलां. रोमन कॅथलिक इगर्जेच्या पोपान पाचूची मुदी घालची अशी परंपरा आसा. पेरू देशांत पाचूची प्रार्थना करतात.

इ. स. १९३५ वर्सासावन पाचू कृत्रीम रितीन तयार करतात. तो खऱ्या सैमीक पाचू भाशेनूच दिसता.

कोलंबिया, रशिया, दक्षिण आफ्रिका, ब्राझील, पेरू, मालागासी, ऑस्ट्रिया या प्रदेशांनी पाचू मेळटा. भारतांत कालीगुमान, मेवाड, अजमेर ह्या सुवातांनी मेळटा.

– कों. वि. सं. मं.

**पाटणा :** पुर्विल्लें नांव पाटलिपुत्र. आर्विल्लें पाटणा हें भारतांतल्या बिहार राज्याचे राजधानीचें शार आसून तें गंगा आनी गंडक हांच्या संगमाचेर वशिल्लें आसा. लोकसंख्या ३६,२३,२२५ (१९९१). क्षेत्रफळ ३,२०२.२ चौ. किमी. ह्या नगरांत पोरणी आनी नवी वसती, पाटलीपुत्र वसणूक आनी फूलवारी हांचो आस्पाव जाता. गंगेक येवपी हुंवारांक लागून इतिहास काळांत पाटण्याची सुवात परत परत बदलत रावली. हुंवाराचो धोको हें पाटण्याचें सैमीक दुबळेपण.

भात, गंव, तीळ, सांसवां तशेंच ऊंस, मको, बार्ली हांची पिकावळ हांगा व्हडा प्रमाणांत जाता. पाटणा हें म्हत्वाचें विपणन केंद्र. वर्सुकी सरासरी पावस १११ सेंमी. इतलो पडटा. हातमाग कापड, कंवचेसामान, तांब्याची आनी चीनी मातयेची आयदनां, गालीचे, कांकणां, पांयतणां, तंबाखू, सिगरेटी आनी खेळणीं हे हांगाचे मुखेल उद्देग आसात. शारांत कितलींशींच कार्यालयां, वैजकी, अभियांत्रिकी आदी म्हाविद्यालयां आनी १९१७ त स्थापन जाल्लें पाटणा विद्यापीठ आसा. काशीप्रसाद जयस्वाल संशोधन संस्थानय पाटण्यांतूच आसा.

शारांत कितलींशींच सुंदर उद्यानां आसात. बंकीपूर भागांत १७८६ त कप्टॅन जॉन गार्स्टिन हाणें बांदिल्ली 'गोलघर' ही व्हडली वास्तू आसा. दुकळांत धान्य सांठोवपाखातीर बांदिल्ली ही इमारत म्होंवा मुसांच्या पोळ्यासारकी वाटकुळी आसून तिची उंचाय २९ मी. आनी वण्टीची दाटाय ३.६ मी. आसा. शिखांचो धावो गुरू गोविंदसिंग हाची ही जल्मसुवात. रणजितसिंगान तेखातीर बांदिल्ली 'हरमंदिर' नांवाची गुरुद्वारा ही शीख संवसारांतली चार व्हडल्या तख्तांत दुसऱ्या क्रमांकाची मानतात. हांगाचें बिर्लाचें नामनेचें लक्ष्मीनारायण मंदिर उल्लेख करपासारकें आसा. पाटणा रेल्वे स्थानका लागसारूच नबाब सिराजुद्दौला हाणें बापायच्या उगडासाखातीर बांदिल्लो नबाब शहीदका मकबरा आसा. शेरशाहचो किल्लो, पाद्री की हवेली (अठराव्या शतमानांत बांदिल्ली पोरणी रोमन कॅथलिक इगर्ज), अस्तंत दार हीं पळोवपासारकीं थळां आसात. शेरशाहच्या किल्ल्यांत मोलादीक, दुर्मीळ कलावस्तूंचो संग्रह पळोवपाक मेळटा. 'सदाकत आश्रमां' त १९२१ त राष्ट्रीय विद्यालय म्हणून स्थापन केल्ल्या बिहार विद्यापिठाचें प्रधान कार्यालय आशिल्लें. भारताचो पयलो राष्ट्रपती डॉ. राजेंद्र प्रसाद हांचो निवास हांगा आशिल्लो. पाटण्यांतली सगळ्यांत पोरणी मशीद म्हणून शेरशाहची मशीद नांवाजिल्ली आसा.

पुर्विल्लें पाटलीपुत्र सद्याच्या पाटणा शाराचे अस्तंतेक गंगा आनी शोण हांच्या संगमाचेर आशिल्लें. ह्या नगराक सुमार २,५०० वर्सांचो इतिहास आसा. पुर्विल्ल्या मगध साम्राज्याची ही राजधानी आशिल्ली. पाटलीपुत्राचीं कुसुमपर, पुष्पपुर, कुसुमध्वज, पद्मावती अशींय नांवां मेळटात. मौर्य, शुंग, गुप्त ह्या राजघराण्यांनी पाटलिपुत्राची उदरगत केली. वैदिक, बौध्द, जैन ह्या तिनूय धर्मीक परंपरांनी पाटलिपुत्र संपन्न केलें. 'कथासरित्सागर' आनी 'वायुपुराण' हातूंत ह्या नगराचे उल्लेख मेळटात. इ.स.प. पांचव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत अजातशत्रूच्या सुनिधी आनी वस्सकार ह्या दोन मंत्र्यांनी वज्जींचे घुरयेसावन राखण जावंची म्हणून हें शार वसयलें अशें म्हण्टात. मेगॅस्थिनीझान पाटलिपुत्राचो उल्लेख 'पोलीबोश्रा' असो केला. कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांतूय ह्या शाराचो उल्लेख आयला. सम्राट अशोकान तिसरी बौध्द धर्म संगीता (परिशद) पाटलिपुत्रांत भरयल्ली (इ.स.प. २४०). मौर्य काळांतलें पाटलिपुत्र समृध्द आशिल्लें आनी ताची लोकसंख्या सुमार चार लाख आशिल्ली.

शुंगांचीय राजधानी पाटलिपुत्र हीच आशिल्ली. गुप्त काळांत (३२१-५५०) पाटलिपुत्राची उदरगत जाली. पांचव्या शतमानाचे सुर्वेक फाहियान हो चीनी भोंवडेकार हांगा राविल्लो. गुप्त साम्राज्याच्या अस्तावांगडा पाटलिपुत्राचें वैभव उणें जालें.

बौध्द परंपरेप्रमाणूच हांगाची जैन परंपराय व्हडली आसा. हांगाच्या संप्रती नांवाच्या राजान जैन धर्म आपणावन तीर्थंकरांचीं जायतीं मंदिरां बांदलीं. गुप्त काळांत शिक्षणाच्या मळार पाटलिपुत्राची बरीच नामना जाल्ली. कौटिल्यासारके म्हान अर्थशास्त्रज्ञ हांगाच जावन गेले. नामनेचो भारतीय ज्योतीशशास्त्रज्ञ आनी गणिततज्ञ आर्यभट्ट हाचो जल्म कुसुमपूर (पाटलिपुत्र) हांगा ४७६ त जालो अशें सांगतात.

ह्या वाठारांतल्या उत्खननांत कितलेशेच मौर्य काळांतले आनी गुप्त काळांतले अवशेश सांपडल्यात. १९१२-१६ ह्या काळांतल्या उत्खननांत ८४ खांबे आशिल्ली राजदरबाराची वास्तू सांपडली. १९५३ तल्या उत्खननांत मौर्य काळांतले प्रासाद, शिल्पां, शुंग काळांतल्यो मुर्ती आनी नाणीं तशेंच कुशाण काळांतलीं रुप्याचीं आनी तांब्याचीं नाणीं सांपडल्यांत.

ह्या नगराचो इ.स. सातव्या शतमानासावन सोळाव्या शतमानामेरेनचो इतिहास व्हडलोसो उल्लेख करपासारको ना. १५४१ त शेरशाहान पाटणा शाराची परत स्थापणूक केली. मोगल काळांत बिहार सुभ्याचें राजधानीचें शार म्हणून ताका म्हत्व मेळ्ळें. औरंगजेबान आपलो नातू अझीम हाच्या उगडासाखातीर पाटण्याचें 'अझीमाबाद' अशें नांव दवरलें. १८६५ त पाटणा ब्रिटीशांच्या ताब्यांत गेलें. १९१२ त बंगाल इलाख्यांतल्यान बिहार-ओरिसा असो एक स्वतंत्र प्रांत केलो आनी पाटणा ही ताची राजधानी केली. १९३६त ओरिसा हो स्वतंत्र प्रांत करीत सावन पाटणा ही फकत बिहारची राजधानी जाली.

- कों. वि. सं. मं.

## पाटणेकार, प्रभाकर सखाराम : (जल्म : १ जानेवारी १९३०, दिवचल).

सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. दोडामार्गा वयल्यान लिपचोरयां राष्ट्रीय पत्रकां हाडप आनी तीं पिळगांव, मयें आनी दिवचल वाठारांत लावप तशेंच वांटप हें काम तो करतालो. १४ नोव्हेंबर, १९५४ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी आल्तिन्यार (पणजे) बंदखणींत सुमार स म्हयने दवरलो. २८ मे १९५५ ह्या दिसा ताका प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो केलो. पूण कांयच पुरावो मेळूंक नाशिल्ल्यान ताची सुटका जाली. १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## पाटने, बाजीराव भीवबा : (जल्म : कोंडचे - खूर्द - हवेली - पुणें महाराष्ट्र; मरण : १९८१).

सुटकेझुजारी. तो १९५३-५७ ह्या काळांत प्रजा सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा राम तुपे हाच्या फुडारपणाखाल सूर्ल गांवांत सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताच्या १०० वांगड्यासयत ताकाय मार दिलो. तशेंच थंयच्या देवळांत १ दीस तांकां बंदी करून दुसऱ्या दिसा सोडले. ८ ऑटोबर १९८० ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## पाटील : पुर्विल्ले ग्रामसंस्थेंतलो गांवचो अधिकारी. हे चड करून महाराष्ट्र आनी कर्नाटक हांगाच पळोवंक मेळटात. पट्टकील ह्या संस्कृत उतरावयल्यान पाटील हो शब्द जाला. अशोकाच्या काळांत कापसाचें विणिल्लें पट्ट गांवकीच्यो नोंदी बरोवपाखातीर वापरताले. हे पट्ट कोंड्याचे नळयेंत घालून दवरताले आनी हे नळयेक पट्टकील म्हण्टाले. हे पट्टकील जाचेकडेन आसताले ताका पट्टकीलक अशें म्हण्टाले. होच शब्द फुडें पट्टकील, पाटैलू, पटेल, पाटिल असो तयार जाला. फुडें जमनीचे मालकीची नोंद तांब्याच्या पत्र्याचेर बरोवंक लागले आनी पाटैलु लागसार ताम्रपत्राचे संग्रह जावंक लागले. जमनीचे नांगरटी वांगडाच पाटीलकी अस्तित्वांत आयली. पाटील हें नांव पाटील मोकदम, मोकदम आनी पाटील अशें तीन तरेन बरयतात. मोकदम (मुकादम) म्हळ्यार मुखेल आदमी. पोरण्या काळांत पाटलाक गांवच्या राजांचो मान आसतालो. पाटील घराण्यांत सगलेच पाटील आडनांव लायताले. पूण जाच्या हातांत पाटीलकी आसताली तोच खरो पाटील. देशमुखी फाटोफाट पाटीलकेक म्हत्व आसतालें. आनी पाटीलकेचें वतन वंशपरंपरेन चलतालें.

महाराष्ट्रांत त्या-त्या वाठाराप्रमाण पाटलाक वेगवेगळीं नांवां आसात. मिरज कोल्हापूराक ताका चौधरी कामगावुंड, कोंकणांत चौगुलो जाल्यार विदर्भांत आनी हेर महाराष्ट्रांत ताका पाटील म्हण्टात. पोरण्या ताम्रपटांत ताचो उल्लेख ग्रामकूट असो आयला. जात पाटील, सरपाटील आनी जडेपाटील असोय ताचो भेद आसा. कांयकडेन एकाच गांवांत दोन पाटील आसतात. तातूंतलो एक पोलीस पाटील आनी दुसरो मुलकी पाटील. ताका विदर्भांत कोतवाली पाटील आनी महाली पाटील म्हण्टात.

गांवपाटील राजकीय काम पळयता आनी जात पाटील समाजीक आनी धर्मीक काम पळयता. तो जात पंचायतीन वांटो घेवन गांवपाटलाच्या आदारान गांवांतलीं झगडीं सोडयता. गांवपाटलाक जातपाटलाचे सगले अधिकार आसून ताका राजाचो प्रतिनिधी मानतात. तशेंच तो गांवाचोय प्रतिनिधी आसता. गांव पाटील होच मुखेल मिरासदार आशिल्ल्यान ताचें

घराणें सगळ्यांत उच्च मानतात. पोरण्या काळांत पाटलाक गांवांपुरते मुलकी, दिवाणी आनी फौजदारी अधिकार आसताले. पाटील हे चडशे मराठा सरदार आसताले.

गांवाची पुराय तरेन वेवस्था पळोवप, भूंयेचो कस वाडोवप, दाणो गोटो, उदक हांची वेवस्था पळोवप, बलुतेदारांच्यो कागाळी पयस करप, वतनदार, बलुतेदार, मठ, समाधी ह्या सारक्या समाजीक संस्थांची वतना जाचीं ताका पावोवप, लोकांखातीर मनोरंजनात्मक कार्यक्रम घडोवन हाडप असलीं कामां पाटलाक करचीं पडटालीं. कोंकणांतल्या चडशा वाठारांनी पाटीलकेचो अधिकार खोताकडेन आसतालो. सरकारी कायदे लोकांक समजावन तांचेकडल्यान तीं-तीं कामां करून घेवप, मामलेदारा कडल्यान लोकांक रिणां मंजूर करून घेवन तीं परत फारीक करपाची जापसालदारकी घेवप, जायत्याकडल्यान आयिल्ल्या गेल्ल्याची खबर मेळोवप आदी जायतीं कामां खोताक करचीं पडटालीं.

पाटील हो म्हार, पोतदार आनी कुलकर्णी हांचे कडल्यान गांवचीं सगलीं कामां करून घेतालो. देशांतली राजाची सत्ता खिळखिळी आसल्यार खजिनो सांबाळप, जमीन मेजप, न्याय चौकशेंत लक्ष दिवप, बाजारांतलीं वजनां-मापां तपासप, गांवांतलें कळंतर एकठांय करून सरकारांत भरप हीं कामां पाटलाचीं आसतालीं. बेळगांव, धारवाडाक लग्नां, मुंजी, यज्ञ आदी प्रसंगां वेळार कांय प्रमाणांत द्रव्य धन पाटलाक दिवपाची चाल आशिल्ली. पाटीलकेच्या कामाखातीर ताका सरकाराकडल्यान वर्सुकी 'मुशाहिरोय' मेळटालो. कांय कडेन पाटलांक वतन इनामी भूंय दिताले.

कोणाल्याय लग्न सुवाळ्या वेळार पयलो मानाचो विडो पाटलाक मेळटालो. साडि विधी करतना ब्राह्मणाक पाटलाकडल्यान परवानो घेवंचो पडटालो. शिगम्याची परब आसल्यार होळयेक पयलो निवेद्य पाटील दाखयतालो. तशेंच पोळ्याचे मिरवणुकेंत पाटलाचोच बैल पयलो आसतालो. तेचपरी चडशा सगल्या सणा परबांनी पाटलाक पयलो मान आसतालो.

पुर्तुगिजांच्या काळांत गोंयांत 'रेजिदोर' हें पद गांवच्या शिक्षीत आनी कार्यक्षम मनशाक सरकाराकडसून दिवप जातालें. पाटीलकिची परंपरा, नेमणूक आनी कार्यपद्दत 'रेजिदोरी' परस वेगळी आसली. राजकर्त्याचो गांवचो प्रतिनिधी म्हण दोगांचोय अधिकार आनी कर्त्यव्यां लागीं लागीं सारकीं आसलीं.

स्वतंत्र भारतांत पंचायत राज्य सुरू जाल्ल्यान ल्हव ल्हव करून पाटलाची सुवात नांवापुरतीच उरल्या. पुर्तुगीज राजवटीच्या अस्तावांगडीच 'रेजिदोर' ह्या पदाचोय गोंयांत अस्त जालो.

– कों. वि. सं. मं.

## पाटील, कर्मवीर भाऊराव

**पाटील, कर्मवीर भाऊराव :** (जल्म : १ सप्टेंबर १८८७, कुंभोज, जिल्हो कोल्हापूर; मरण : ९ मे १९५९, पुणें).

महाराष्ट्रांतलो एक व्हड समाजसुदारक आनी शिक्षण प्रसारक. ताच्या बापायचें नांव पायगौंडा आनी आवयचें नांव गंगुबाई. ऐतवडे बुद्रुकाक (सांगली) मुळावें शिक्षण घेवन तो फुडें कोल्हापूराक वचून इंग्लीश सवी मेरेन शिकलो. त्याच सुमाराक कोल्हापूरचो राजर्षी शाहूमहाराज हाणें हुशार भुरगीं वेंचून तांचे खातीर कोल्हापूराक शिक्षणाची वेवस्था केल्ली. भाऊराव दोन वर्सां थंय शिकपाक आशिल्लो. विद्यार्थीदशेंत आसतना एडवर्ड बादशाहाच्या पुतळ्याक ताणें डांबर काडलें असो फटीचो आरोप दवरून ताका बंदखणींत घाल्लो. फुडें ताची सुटका जाली. उपरांत तो किर्लोस्कर आनी ओगले ह्या कारखान्याचो घोळटो एजंट म्हणून काम करूंक लागलो. त्या निमतान ताका वेगवेगळ्या गांवगिऱ्या वाठारांनी भोंवचें पडलें. थंय तांची गरिबी आनी हाल पळोवन ताका दुख्ख जालें. शिक्षणाच्या उणावाक लागून तांची अशी परिस्थिती जाल्या हाची जाणविकाय ताका जाली. तेन्ना १९१०त ताणें सांगलींतल्या दूधगांवांत गांवगिऱ्या तरण्याट्यांखातीर 'दूधगांव विद्यार्थी आश्रम' सुरू करून शिक्षणाचो वावर हातांत घेतलो. १९१९त ताणें कराड तालुक्यांतल्या काले गांवांत सत्यशोधक समाजाच्या संमेलना वेळार 'रयत शिक्षण संस्थेची' स्थापना केली. १९२४ त ताणें साताऱ्याक 'छत्रपती शाहू बोर्डिंग हाऊस' नांवाचें वसतीगृह बांदलें. ह्या वसतीगृहांत सगळ्या जाती-धर्मांच्या विद्यार्थ्यांक प्रवेश मेळटालो. कशेंय करून शिक्षण घेवप हो हांगाचो नेम आशिल्लो. १९२७ वर्सा महात्मा गांधीन ह्या वसतीगृहाक भेट दिल्ली. तेन्नाच्यान भाऊराव खादी वापरूंक लागलो. खेड्या पाड्यांनी वचून जंय जंय गरीब पूण हुशार भुरगीं आसात तांकां वसतीगृहांत हाडून तांकां आपल्या भुरग्यांवरी सांबाळटालो. कांय हुशार विद्यार्थ्यांक परदेशी शिक्षणाची सोय ताणें उपलब्ध करून दिल्ली. ताच्या ह्या शिक्षणीक वावराक ताची बायल लक्ष्मीबाय हिणेंय ताका म्हत्वाचो आदार केलो.

त्या काळांत व्हड व्हड जिल्ह्यांनी थळाव्या बोर्डांच्यो शाळा आशिल्ल्यो. पूण गांवगिऱ्या वाठारांनी शाळा उपलब्ध नाशिल्ल्यो. अशा वेळार भाऊरावान आपले संस्थेवतीन स्वयंसेवी मुळाव्यो शाळा उगडल्यो. रोखडीच ह्या शाळांची संख्या ५७८ जाली. गांवगिऱ्या विद्यार्थ्यांच्या म्हाविद्यालयीन शिक्षणाखातीर रयत शिक्षण संस्थेन १९३२त पुण्यांत 'युनियन बोर्डिंग हाऊस' नांवाचें वसतीगृह उबारलें. खेड्यांनी सुरू जाल्ल्या शाळांनी शिकोवपाखातीर प्रशिक्षीत शिक्षकांची गरज आशिल्ली. तेखातीर ताणें १९३५ त साताऱ्याक 'महात्मा फुले ट्रेनिंग कॉलेज' सुरू केलें. १९४० त ताणें 'महाराज सयाजीराव हायस्कूल' स्थापन केल्लें, जाल्यार १९४२ त सौ. लक्ष्मीबायचे यादीक साताऱ्याक 'लक्ष्मीबाय पाटील वसतीगृह' सुरू केलें.

स्वावलंबी शिक्षणाचो आनी राश्ट्रीय एकात्मतेचो प्रयोग म्हणून ताणें साताऱ्याक 'छत्रपती शिवाजी रेसिडेन्शियल कॉलेज' (१९४७) सुरू केलें. सद्या ह्या म्हाविद्यालयाचो विस्तार जावन 'शिवाजी कॉलेज', 'धनंजयराव गाडगीळ कॉमर्स कॉलेज' आनी सायन्स कॉलेज अशीं तीन स्वतंत्र म्हाविद्यालयां सुरू जाल्यांत.

महात्मा गांधीचे हत्ये उपरांत ताणें आपले संस्थेवतीन शंबर माध्यमिक शाळा उगडपाची प्रतिज्ञा केली आनी धा वर्सांमदीं ती पुराय करून दाखयली. शिक्षणीक संस्थांच्या प्रसारावांगडाच ताणें कांय पुरक संस्थांची स्थापना केल्ली. ह्यो संस्था अशो - सिल्वर ज्युबिली ट्रेनिंग कॉलेज, जिजामाता अध्यापक विद्यालय, महाराजा सयाजीराव विद्यालय (फुकट आनी रावपाची सोय आशिल्ली), रयत सेवक को-ऑपरेटिव्ह बँक, रयत सेवा को-ऑपरेटिव्ह स्टोर्स फंड, पंचायत राज्य प्रशिक्षण केंद्र, रयत शिक्षण कर्मवीर विद्याप्रबोधिनी.

भाऊरावान स्थापन केल्ले रयत शिक्षण संस्थेच्यो विस्तारान ३१७ माध्यमीक विद्यालयां (हातूंत चलयांचीं १२), २० म्हाविद्यालयां, ७ अध्यापन विद्यालयां, ७२ वसतीगृहां (हातूंत ४ चलयांचीं), संस्कार केंद्रां, तंत्रीक शिक्षणाच्यो शाळा हांचो आस्पाव जाता. संस्थेच्या आदल्या

विद्यार्थ्यांनी एक वांगडी मंडळ तयार केलं. तेंच मंडळ संस्थेचो कारभार पळयता.

सगळ्या जातीधर्मांचे गरीब आनी गांवगिरे रयतेक आपल्या मोलादीक यत्नांनी ताणें आर्विल्ल्या शिक्षणाचें दार उकतें करून दिलें. ताकाच लागून लोकांनी ताका 'कर्मवीर' ही पदवी दिली. शिक्षणीक मळावयली ताची म्हत्वाची कामगिरी लक्षांत घेवन पुणें विद्यापिठान ताका सन्माननीय डी. लिट. ही पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो. जाल्यार भारत सरकारान ताका 'पद्मभूषण' हो किताब दिवन ताचो भोवमान केलो. इ. स. १९४८ त सातारा जिल्हा विद्यार्थी संघटनेचे वतीन ताका एक लाख इकरा हजारांची थैली दिल्ली. ही रक्कम ताणें आपले संस्थेक दिली.

स्वावलंबन, स्वाभिमान, स्वाध्याय आनी स्वातंत्र्य ह्या चार सुत्रांचेर भाऊरावाचें शिक्षणीक तत्व आदारिलें. स्वावलंबी शिक्षणाचें ब्रीद दवरून कश्ट करून शिक्षण हें ताच्या शिक्षणीक तत्त्वगिन्यानाचें सार आशिल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

## पाटील, दादाराव जयवंतराव :

(जल्म : १ जुलय १९२१, हिवारा - पुसद - महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. सुर्वेक तो भारतीय कम्युनिस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो काँग्रेस (आय) चो वांगडी जालो. सत्याग्रहींचो एक पंगड घेवन बेळगांवच्यान चलत ते बांदा आयले. आनी १५ ऑगस्ट १९५५ दिसा तांणी पत्रादेवीक सत्याग्रह केलो. त्या वेळार पुर्तुगेज सैनिकांनी केल्ल्या फारपेटांत ताचे तीन सत्याग्रही साथीदार मधुकर चौधरी, राजाभाऊ महंकाळ आनी कर्नलसींग बनीपाल हांकां हुतात्म्याचें मरण आयलें. जिल्हा परिशदेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९८६ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## पाटील, नारायण सांदिपन :

(जल्म : ५ फेब्रुवारी १९३०, तवशी - पंढरपूर).

सुटकेझुजारी. पोळें शिमेर, सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो, तेन्ना पोलिसांनी ताका धरून खूब मार दिलो. १३ मे १९८८ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## पाटील, शंकर रावजी :

(जल्म : १४ फेब्रुवारी १९२७, नांदूर मंगलवेढा, सोलापूर, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. तो इंडियन नॅशनल काँग्रेस समितीचो वांगडी आशिल्लो. १९४२त ताणें भारत छोडो आंदोलनांत वांटो घेतिल्लो. मे १९५५ वर्सा अण्णासाहेब कवडी हाच्या फुडारपणाखाल ३० सत्याग्रहींचो पंगड घेवन पुण्याच्यान बांदासावन गोंयांत आयलो आनी पेडण्यां सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतलो. थंय तांणी व्हडा व्हडान घोशणा दिल्यो. तेचपरी तिरंगी बावटो लायलो. तेन्ना ताका पुर्तुगेज पोलिसांच्या फारपेटाक तशेंच लाठीहल्ल्याक तोंड दिवचें पडलें. ताका ह्या हल्ल्यांत खूब मार लागिल्लो. १९५७ त तो कामगार संघटणेखातीर वावर करतालो. १३ ऑगस्ट १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## पाठारे प्रभू :

एक जात. ह्या लोकांची वस्ती मुंबय, माहीम, साश्टी, ठाणें, वसई आदीकडेन आसा. हांका पाताणे वा पैठणे प्रभू अशेंय म्हण्टात. पैठणावयल्यानच पैठणे वा पाताणे हें नांव पडलें. कांय अभ्यासकांच्या मतान पाठारे हो प्रतिहार ह्या संस्कृत शब्दाचो अपभ्रंश आसा. पाठारे हे कनोज आनी राजस्थानच्या प्रतीहारांचे वंशज आशिल्ले. इ.स. १०१८ त महंमुदान कनोजाचेर घुरी घालतकच प्रतीहार घराण्यांतलो निमाणो राजा राज्यपाल हाका हारयलो. उपरांत प्रतीहार वा पाठारे प्रभू हांचे पुर्वज देवगिरीच्या राजाच्या आश्रयाखातीर पैठणाक आयले अशें इतिहासकाराचें मत. फुडें ते भीमदेवा वांगडा वा बिंबदेवावांगडा उत्तर कोंकणांत आयले तेन्ना तांकां पैठणे प्रभू वा पैठणकर प्रभू अशें म्हणूंक लागले.

देवगिरीचो राजा रामदेवराय यादव हाका अल्लाउद्दीन खिलजी हाणें इ. स. १२९४ त हारयलो. तेन्ना ताणें आपलो दुसरो पूत बिंबदेव हाका उत्तर कोंकणांत धाडलो. ताचे वांगडा कांय सरदार आनी पाठारे प्रभूचीं कांय कुटुंबांय आयलीं. बिंबदेवान थंय महिकावती नांवाची राजधानी स्थापन केली. हेंच सद्याचें माहीम.

पाठारे प्रभूच्या इतिहासाविशीं माहिती दिवपी नारणजी नांवाच्या एका पाठारे प्रभू हाका इ. स. १७९८ त उतरायल्लें एक बाड मेळ्ळां. हातूंत वट्ट पांच काणयो दिल्यात. पयले काणयेंत रामराजाचो महिमा आनी पाठारे जातीच्या सांसठ कुळांचो उल्लेख आसा. दुसरे काणयेंत राजा बिंबाच्या अंमलासावन मुसलमानी अंमलाचे सुरवातेची काणी आसा. तिसरे काणयेंत सोपारेच्या वैतरणी तिर्थाचें महात्म्य वर्णन केल्लें आसा. चवथे काणयेंत पाठारे जातीच्या अठरा कुळांचीं नांवां दिल्लीं आसात आनी पांचवे काणयेंत बिंब राजासावन मुसलमानी सत्ते मेरेनच्या राजाची परंपरा आनी ताचे कारकिर्दींतल्यो कांय म्हत्त्वाच्यो गजाली दिल्यात. पयल्या प्रकरणांत राजा रामदेव हांच्या कुळाचें वर्णन करतना चापानेर, हस्तनापूर, नागाबाज, मुंगीपैठण आनी पणाले अशा पांच पैठणांचो उल्लेख केल्लो आसा. बिंबाच्या राजवंशाच्या ह्या पांच पैठणाच्या राजवंशांकडेन संबंद आशिल्लो. ताणें हाडिल्ले पाठारे प्रभू हे मूळ ह्या पांच राज्यांनी रावपी आशिल्ले. हे लोक स्मार्त शैव आसून शृंगेरी मठाच्या धर्मीक अधिकाराखाला आसा. तांचीं श्रीपती, रामल, नागेश्वर, त्रिंबक, श्रीचंदल, जनार्दन, कामेश्वर, केशव, दुर्म, श्रवण, अंकुश आदी गोत्रां आसात.

पाठारे प्रभूचीं पैठण, नागाबाज, चापानेर पन्हाळा, चेरणेर, दौलताबाद, अनहिलवाडच्यान जायती कुळां कोंकणांत आयलीं. हीं कुळां चेऊल, येकसार, कोंडिवटे, दइसार, चेंबूर, गोरेगाव, शीव, पसपौली, चेदवली, कल्याण, कळवे, माहीम, ठाणें आदी वाठारांनी येवन रावलीं.

आदल्या तेंपार तांचेमदीं ल्हान पिरायेचेरूच लग्नां जातालीं. साकरपुड्या वांट्याचें तांचेमदीं कुलदेवतेक बोकडो बळी दिवपाची चाल आसा. लग्नाआदीं एक दीस पयलीं घरांतलो जाणटो मनीस कुलदेवीची पुजा करता. उपरांत बोकड्याक देवीमुखार हाडटात. एका सुपांत थोडे तांदूळ घालून ते बोकड्यामुखार दवरतात. तो ते तांदूळ खावपाक लागलो की जाणटो मनीस ताची तकली कापता. उपरांत ती तकली हातांत घेवन

रक्ताचे कांय थेंबे देवीचेर पडूंक दिता. उपरांत ती तकली एके परातींत दवरून ती परात देवीच्या चौरंगा सकयल दुसऱ्या दिसामेरेन दवरतात आनी उरिल्लो बोकडो शिजोवन खातात. लग्नाआदीं चार दीस व्हंकलेक न्हवऱ्यागेर आपोवन फळां, गोडशें, लुगटां आनी वस्ती दितात. लग्ना आदल्या दिसा तिका हळद लावपाचो कार्यक्रम आसता. तांचेमदीं लग्न चलयेच्या घरा जाता. लग्नांत मधुपर्क, अक्षता उडोवप, केळवण, कन्यादान, सप्तपदी हे विधी मुखेल आसतात. लग्नाच्या वेळार व्हंकल-न्हवरो तांदळाचे राशीर उबीं रावतात आनी मंगलाश्टकां म्हण्टकच न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेच्या गळ्यांत काळी पोत बांदता आनी व्हंकल न्हवऱ्याच्या गळ्यांत हार घालता.

चलयेक पयलें न्हाण आयलें म्हण्टकच घरांतली जाण्टी बायल तिची होंट भरता. आदल्या तेंपार अशें जातकच तिका बरे कपडे घालून मखरांत बसयताले, वाजंत्री बी आपोवन चार दीस कार्यक्रम चलतालो. पांचव्या दिसा न्हावन गर्भाधानाचो विधी जातालो. तांचेमदीं बाळंटेर कुळाराच जाता. भुरगें जाता त्याच दिसा भुरग्याची पत्रिका तयार करतात. पांचव्या दिसा सटीची पुजा करतात. धाव्या दिसा सुवेर सोंपतकच त्या दिसा वा इकराव्या दिसा भुरग्याचें नांव दवरतात.

हे लोक मडीं लासतात. लाशिल्ल्या जाग्यार मातयेची ल्हानशी त्रिकोनी रास करतात, ताचेर शेणउदक शिंपून दुर्वा पातळायतात आनी ताचेर उदकाचीं पांच मडकीं, तीळ, शिताचो पींड, तूप, भाकऱ्यो आदी वस्तू दवरतात. मेल्ल्या मनशाचो चलो पिंडामुखार कापूर आनी धूप जळयता. मेल्ल्या मनशाचो आत्मो धा दीस मेरेन घरांत घुंवत रावता अशी लोकांची समजूत आसा. देखून धा दीस ताका न्हावपाखातीर एका दोण्यांत उदक आनी पियेवपाखातीर एका दोण्यांत दूद दवरतात. इकराव्या, बाराव्या आनी तेराव्या दिसा श्राध्द करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**पाडगांवकार, प्रकाश दामोदर :** (जल्म : ४ डिसेंबर १९४८, मुंबय).

नामनेचो कोंकणी कवी. ताच्या बापायचें नांव दामोदर आनी आवयचें



नांव विजया. प्रकाशाचें भुरगेपण दलीत कुटुंबांत, गरिबींत आनी कश्टांनी गेलें. प्रकाशाचे बायलेचें नांव संजीवी. ताका तीन चलयो आनी एक चलो आसा.

प्रकाशाचें मुळावें शिक्षण पणजेचे मुश्टीफंड शाळेंत मराठी माध्यमांतल्यान आनी मासानु द आमोरीं शाळेंत पुर्तुगेज माध्यमांतल्यान जालें. अर्थीक अडचणींक लागून विद्यार्थीदशेंतूच नोकरी करून, पणजे इन्स्टीट्यूट ऑफ इन्स्ट्रक्शन रातशाळेंत एस.एस.सी. मेरेनचें शिकप केलें. आकाशवाणीच्या पणजी केंद्रार नोकरी करून धेंपे कॉलेज ऑफ आर्टस ॲण्ड सायन्स म्हाविद्यालयांत सांजेच्या वर्गांत शिकून बी. ए. ची पदवी जोडली. १९६८ ते १९७४ मेरेन आकाशवाणीच्या पणजी केंद्रार प्रशासकीय विभागांत नोकरी केली. सद्याक एम. एम. टी. सी. ऑफ इंडिया लि. वास्को द गामा शारांत मॅनेजराच्या हुद्द्याचेर आसा.

फाटलीं २४ वर्सां तो अखंडीतपणान आनी निश्ठेन काव्य साधना करीत आसा. 'उजवाडाचीं पावलां' (१९७६), 'वास्कोयन' (१९७७) आनी 'हांव मनीस अश्वत्थामो' (१९८५) अशे तीन काव्यांझेले उजवाडाक आयल्यात. 'कविता काळ - रेल्वेच्यो, मन-हारशांच्यो, पावस-पाणयांच्यो' आनी 'सर्ग घडपाक धर्तरेचो' अशे आनीक दोन काव्यांझेलेय प्रसिद्ध जाल्यात.

प्रतिमा आनी प्रतिकांचो अचूक वापर, भाव-भावनांचें संयमी आनी सुचक रितीन आविश्करण, जिवितांतल्या चिरंतन आनी शाश्वत मुल्यांचें कलात्मक प्रगटण हें ताच्या काव्याचें खाशेलपण.

प्रकाशाच्या साहित्यकृतींक कोंकणी भाशा मंडळ (गोंय) आनी कला अकादमीचे राज्य पुरस्कार लाबल्यात. 'हांव मनीस अश्वत्थामो' ह्या पुस्तकाक १९८६ वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळा.

देशांतल्या कांय प्रदेशांनी प्रकाशान भोंवडी केल्या. बाकीबाब बोरकार ह्या जेश्ठ कवीचें मार्गदर्शन, श्री अरविंदाच्या तत्त्वज्ञानाकडली ओड, हाका लागून प्रकाशाच्या व्यक्तिमत्वाक पुटां चडल्यांत.

प्रकाशान मराठींतूय काव्य-लिखाण केलां. ताच्या कोंकणी कवितांचे अणकार, इंग्लीश आनी हेर भारतीय भाशांच्या नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात. कोंकणी पाठ्यपुस्तकांनी ताच्या कवितांचो आस्पाव जाला. धर्मवीर भारती आनी प्रकाश पाडगांवकार हांच्या काव्याचो तुळात्मक अभ्यास करून डॉ. चंद्रलेखा डिसौझा हिणें गोवा विद्यापिठाची डॉक्टरेट पदवी मेळयल्या.

- पुंडलीक नायक

**पाडगांवकर, मंगेश :** (जल्म : १० मार्च १९२९, वेंगुर्ला).

नामनेचो मराठी कवी. मुळावें शिकप वेंगुर्ल्याक आनी उंचेलें शिकप मुंबय जालें. मराठी आनी संस्कृत हे विशय घेवन १९५६ वर्सा तो बी.ए. जालो. १९५८ वर्सा हेच विशय घेवन ताणें एम.ए. ची पदवी घेतली. ह्यो दोनूय परिक्षा तो पयल्या वर्गांत पयल्या क्रमांकान पास जाल्लेखातीर बी.ए. क ताका 'तर्खडकर भांगरा पदक' आनी एम.ए. चे परिक्षेखातीर 'न. चिं. केळकर भांगरा पदक' फावो जालें.

१९५० वर्सा रेव्हरंड भास्कर कृष्ण उजगरे हाची धूव यशोदा हिचेकडेन ताचें लग्न जालें. १९५१-५२ ह्या काळांत ताणें मुंबयच्या विल्सन हायस्कूलांत शिक्षक म्हणून आनी १९५३-५५ ह्या काळांत 'साधना' सातोळ्याचो सहसंपादक म्हणून काम केलें. १९५७ वर्सा आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्राचेर 'असिस्टंट प्रोड्युसर' म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९६० ते १९६२ ह्या काळांत मुंबयच्या 'सोमैय्या कॉलेज' आनी 'मिठीबाई कॉलेज' हातूंत प्राध्यापक म्हणून काम केलें. उपरांत १९६४-७० हीं ६ वर्सां तो आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्राचेर 'प्रोड्युसर' आशिल्लो. १९७० वर्सासावन तो 'युनायटेड स्टेट्स इन्फॉर्मेशन सर्विस' हे मुंबयंतले संस्थेंत मराठी विभागाचो मुखेल संपादक आशिल्लो. १९७६-७९ ह्या वर्सांखातीर मुंबय विद्यापिठांत मराठीचो मानसेवी प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली.

'धारानृत्य' (१९५०) हो ताचो पयलो कवितांझेलो. उपरांतचे ताचे काव्यांझेले अशे आसात – जिप्सी (१९५२), छोरी (१९५४), उत्सव (१९६२), विदूषक (१९६६) आनी सलाम (१९७८). ताणें केल्ल्या मीराबाईच्या कांय हिंदी गितांचो मराठी पद्य अणकार 'मीरा' ह्या नांवान १९६५ वर्सा उजवाडा आयलो. इंग्लिशींतल्या लिम्रिकचे धर्तीचेर मराठींत ताणें कांय 'वात्रटिका' (१९६४) बरयल्यात. भोलानाथ (१९६३) आनी 'बबलगम' (१९६७) हे ताचे बालगितां झेले. जिप्सी, छोरी आनी भोलानाथ ह्या ताच्या पुस्तकांक महाराष्ट्र शासनाचीं इनामां फावो जाल्यांत. कविते वांगडा ताणें ललीत निबंद लेगीत बरयल्यात. हे ताचे निबंद 'निंबोणीच्या झाडामागे' (१९५३) ह्या नांवान उजवाडा आयल्यात. कांय अमेरिकी साहित्यकृतींचे मराठी अणकारूय ताणें केल्यात. तशेंच जे. कृष्णमूर्तीचीं कांय भाशणां ताणें अणकारल्यांत. ताचे हेर ग्रंथ अशे आसात – 'बोरकरांची कविता' (१९६०), महात्मा गांधीचेर बरयल्लो ललीत लिखाणाचो झेलो 'युगात्मा' (१९७०), विंदा करंदीकर हाची वेंचीक कविता 'संहिता' (१९७५).

पाडगांवकराचे कवितेंत, सैमाचे मनभुलवणे सोबीतकाये वांगडा अध्यात्मवृत्तीय दिश्टी पडटा. सैमाचे जोडयेन ताचे कवितेंत प्रेमभावनेचीय सया दिसता. हे नदरेन ताचें 'शर्मिष्ठा'(१९५५) हें नाट्यकाव्य म्हत्वाचें आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पाडवो :** शुक्ल आनी कृष्ण पक्षांतली पयली तीथ. हिका नंदा अशेंय म्हण्टात. ह्या दिसा अभ्यंगस्नान म्हळ्यार तेल लावन हून उदकान न्हावप अशें वर्णन केल्लें आसा. मार्गशिर्ष म्हयन्यांतले वद्य प्रतिपदे दिसा (पाडव्या दिसा) रोहिणी नक्षत्र आयल्यार मोठो पर्वकाळ जाता अशें मानतात. ह्या दिसा गंगेंत न्हाल्यार खूब पुण्य मेळटा अशें भविश्य पुराणांत सांगलां. ही अग्नीदेवतेची जल्मतीथ अशें वराह पुराणांत म्हळां. शुध्द प्रतिपदेक चंद्राचें दर्शन घेतल्यार भाग्य वाडटा अशें म्हळां. त्या दिसा सांजवेळचें अस्ताक वचपी चंद्रकोरीचें दर्शन घेवन तिका वस्त्राच्या तोंकाचें सूत अर्पण करचें असो एक विधी आसा. प्रतिपदा म्हळ्यार पाडवो हो सगळ्यांत व्हड अनध्याय. ह्या दिसा वेदांचें अध्ययन करिनात. म्हणजेच वेद शिकोवपी पाठशाळेक सुटी आसता.

चैत्र शुध्द प्रतिपदेक संवसार पाडवो अशें म्हण्टात. शालीवाहन शकाचें वर्स ह्या दिसासावन सुरू जाता. दक्षिण भारतांत आनी भारताच्या कांय हेर वाठारांनी नव्या वर्साचो प्रारंभ चैत्र शुध्द प्रतिपदेसावन सुरू जाता. ह्या दिसा कांय धर्मीक विधी करपाक सांगल्यात. तातूंत ब्रह्मपूजा हो एक म्हत्वाचो भाग आसा. हो करपाचो उद्देश म्हळ्यार ब्रह्मदेवान चैत्र शुद्ध प्रतिपदेक सगळें जग निर्माण करून कालगणना सुरू केली. श्रीसुर्यसिध्दान्ताच्या मताप्रमाण चार युगां एक हजार खेपे जावन गेलीं म्हण्टकच ब्रह्मदेवाचो एक दीस जाता. ब्रह्मदेवाचें सगळें आयुश्य १०० वर्सां. सद्या ताच्या आयुश्याचीं ५० वर्सां जावन गेल्यांत आनी एकांवनाव्या वर्साच्या पयल्या म्हयन्याच्या पयल्या पक्षाच्या पयल्या दिसाच्यो १३ घटिका, ४२ पळां आनी तीन अक्षरां जाल्यात.

ब्रह्मदेवाची पुजा जातकच विपळां, पळां, घटका, प्रहर आदी सगळ्या काल विभागांची पुजा करपाक सांगल्या. उपरांत दक्षकन्या आनी विष्णुची पुजा करपाक सांगल्या. यविश्ठ नांवाच्या पदार्थान अग्नींत हवन करप, ब्राह्मण भोजन आनी आप्तइश्टांक देणग्यो दिवप, ज्या वाराक हो पाडवो येता त्या वाराक अधिपतीची पुजा करची अशें भविश्य पुराणांत सांगलां.

ह्या दिसा कांय लौकिक आचार आसात. घरांतलीं मनशां तेल लावन हून उदकान न्हातात. उपरांत मिरयां, हींग, मीठ, ओंवो, साकर घेवन कोडुलिंबाच्या तरण्या पानांचें चूर्ण आमटाणींत कालोवन खावंचें. अशें केल्यार सगळे रोग बरे जातात, सूख, विद्या, आयुश्य आनी लक्ष्मी प्राप्त जाता अशें पंचागांत सांगलां. उपरांत कोंड्या बडयेच्या तोंकाक रेशमी वस्त्र बांदून ताचेर रुप्याचें वा पितळेचें आयदन उमथें घालून ताका कोडूलिंबाचे ताळे आनी फुलांच्यो माळो बांदून तो ध्वज दारांत उबो करप, हाका गुडी उबारप अशें म्हण्टात. ह्या दिसा गुडी उबारतात देखून ताका 'गुडी पाडवो' अशेंय म्हण्टात. ह्या दिसा गोड-गोड जेवण करतात. याचकांक आपले तांकीप्रमाण दान दिवन संतुश्ट करतात. तरेतरेचीं गायनां, वाद्यां आनी पुण्यपुरूशांच्यो गजाली आयकतात. हो दीसा आपलीं बायल-भुरगीं, इश्ट-मित्र हांचेवांगडा आनंदान घालयलो जाल्यार वर्सभर सूख मेळटा अशें सांगलां.

ह्या दिसा पंचागाचें श्रवण करपाक सांगलां. दरेका वर्सा वसंत ऋतूंतल्या पुण्यकारक चैत्र म्हयन्यांत नव्या वर्साचें फल आयकल्ल्यांन सगळ्या पातकांचो नाश जाता आनी आयुश्य, येस आनी लक्ष्मी हांची वाड जाता. संवसार पाडव्याक 'युगादि तिथी' अशेंय म्हण्टात. शक्य जाता जाल्यार ह्या दिसा पाणपोय घालची; निदान उदक कुंभाचें दान करचें अशें सांगलां.

– अनंत राम भट

**पाणपोई :** भोंवडेकारांक आनी पांथस्थांक उदक मेळचें म्हूण जी सोय करतात, तिका पाणपोई म्हण्टात. धनीक मनीस आनी भौशीक संस्था अशो पाणपोयो घालतात. तातूंत गोरवांक लेगीत उदक मेळपाची सोय आसता. पुर्विल्ल्या काळांत चडशे सगळे राजा सगळ्या राजरस्त्यांचेर अश्यो पाणपोयो बांदताले.

पाणपोईंत मातयेचीं व्हड व्हड आयदनां भरून दवरतात. तानेल्ल्यांक उदक दिवपाखातीर थंय एक मनीस दवरतात. गांवाभायर वा शाराभायर आशिल्ले पाणपोई लागसार पांथस्थांक थोडो वेळ सुसेग घेवपाखातीर एक ल्हानशी खोंप बांदतात.

आदल्या तेंपार खंयचोय धनीक मनीस वा संस्था समाजसेवेचें व्रत कशें धर्मार्थ भावनेन पाणपोईची वेवस्था करताली. आधुनिक काळांत पिवपाच्या उदकाची सोय हेर तरांनी जाता जाल्ल्यान पाणपोईची वेवस्था पयलीं सारखी सर्रास जायना. तरीय कांयकडेन ती आदलेवरीच धर्मार्थ भावनेन चलिल्ली दिसता.

– कों. वि. सं. मं.

**पाणबुडी :** उदकापोंदच्यान चलपी एक तारूं. 'पाणबुडी' हो शब्द सुर्वेक उदकापोंदाच्यान चलपी खंयच्याय तारवाखातीर वापरताले. पूण हालींच्या तेंपार साप्प ल्हान पातमाऱ्यांचो सोदूय लागला. तातूंत फकत दोन वा तीन मनशांखातीर सुवात आसता. ह्यो पातमाऱ्यो हॅलिकॉप्टरान उखलून वा दुसऱ्या व्हड तारवांनी घालून जायत्या सुवातांचेर खोल

उदकांत दवरतात. ह्या पातमाऱ्यांचो संकश्टांतल्यान सोडोवपाखातीर, उदकापोंदचें सर्वेक्षण करपाखातीर वा खोल उदकांत संशोधन करपाखातीर उपेग जाता. ह्यो पातमाऱ्यो खोल उदकातळा बारा ते चोवीस वरांमेरेन रावपाक शकतात. हांकां 'सबमर्सायल' अशें म्हण्टात. पूण सबमर्सायल ह्यो दर्यातळाचेरूच रावून हालचाल करपाक शकतात.

सादारण मनशाच्या मताप्रमाण पाणबुडी ही एक झुजारी नौकाच आसून ती उदकापोंदच्यान गुपीतपणान वचून दुस्मानाच्या तारवांचो सोद घेता आनी तांचेर घुरीय घालता.

पयल्या म्हाझुजांत जर्मनीन ब्रिटिशांनी घाल्ली आडावण (blockade) मोडून उडोवपाखातीर 'यू बोट' ह्या पाणबुडयांचो उपेग केल्लो. तेन्नासावन नौदलांत पाणबुडयेक म्हत्वाची सुवात मेळ्ळ्या. ह्यो पातमाऱ्यो जायतेन्ना उदकाचेरूय चलोवपाक मेळटात. झुजाच्यावेळार ह्यो पाणबुड्यो खोल उदकांत रावून दुस्मानांच्या तारवांचो सोद घेतात आनी तांचेर हल्लोय करतात. त्यो उदकातळा आशिल्ल्यान तांचो सोद घेवपाकूय दुस्मानांक खुब त्रास जातात. उदकांत आसता तेन्ना प्रतिरोधक उणो जावंचो म्हणून तिका खाशेलो असो आकार दिल्लो आसा. उदकाच्या थरापरस उदकापोंदा लोट चड आसता. हाका लागून उदकापोंदच्यान चलपी पाणबुडयेच्या यंत्राची गती चड आसता. सुर्वेक पाणबुडयांचीं इंजिनां डिझलाचेर चलतालीं आनी पाणबुडी उदकांत आसता तेन्ना भितर वारो घोळचेखातीर स्नॉर्कल ह्या साधनाचो उपेग करताले. हाका लागून ह्यो पाणबुडयो कांय खोलायेमेरेनच वापरूंक मेळटाल्यो. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत अणुशक्तीचेर चलपी पाणबुडयो तयार जाल्यो आनी उदकापोंदा खूब तेंप रावपाची तांची क्षमताय वाडली. अण्वीक पाणबुडयेंत अणुशक्तीचो उपेग केल्ल्या कारणान तिका भायल्या वाऱ्याची गरज लागना. हाका लागून ह्यो पाणबुडयो गरज पडल्यार तीन वर्सांमेरेन उदकापोंदा रावपाक शकतात.

**इतिहास** : आदल्या काळासावन शास्त्रीय संशोधनाखातीर, बुडिल्ल्या तारवांतलो मोलादीक म्हाल वयर काड्पाखातीर, तशेंच दुस्मानांच्या तारवांचेर हल्लो करपाखातीर उदकापोंदच्यान वचपी पातमारी तयार करपाचे साबार यत्न जाल्ले. पूण ते फळादीक जावंक शकलेनात. १६२० ते १६२४ ह्या तेंपार कॉर्नेलीस व्हान ड्रेबल ह्या सोदकान पयलीं उदकापोंदच्यान चलपी पातमारी तयार केली. ही पातमारी लाकडाची आशिल्ली आनी तिचेर चामडें बसयल्लें. १७७६त डेव्हिड बुशनेल ह्या अमेरिकेंतल्या सोदकान 'टर्टल' नांवाची पाणबुडी तयार केल्ली. तिचो आकार पेरा भाशेन आशिल्लो आनी तातूंत फकत एकूच मनीस बसपाक शकतालो. अमेरिकेंतल्या यादवी झुजांत दक्षिणेकडच्या राज्यांनी 'हन्ली' ह्या नांवान बांदिल्ले पाणबुडयेच्या आदारान उत्तरेकडल्या राज्यांचे 'हुसटॉनिक' ह्या नांवाचें झुजारी तारूं बुडयल्लें. नावीक झुजाच्या इतिहासांतलें पाणबुडयेन बुडयल्लें हें पयलें झुजारी तारूं आशिल्लें. स्वयंचलनक्षम पाणबुडी जॉन पी. हॉलंड ह्या अमेरिकी तंत्रज्ञान विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक तयार केल्ली. उदकाचेर ही पाणबुडी वराक १३ किमी. आनी उदकापोंदच्यान वराक ११ किमी. वेगान चलताली. हॉलंड हाचो पाणबुडयेचो अभिकल्प (Design) येसस्वी थरिल्ल्यान ब्रिटीश नावीक दळान १९०२त हे रचणुकेच्यो पाणबुडयो तयार करून तांचो ब्रिटीश नौदलांत आस्पाव केलो. उपरांत रशिया, जर्मनी आनी जपान हाणींय अशो पाणबुडयो तयार केल्ल्यो.

पयलें म्हाझूज सुरू जावंच्या वेळार पाणबुडयांचे रचणुकेंत खूब उदरगत जाल्ली. तेचपरी, तांची संख्याय वाडिल्ली. पयल्या म्हाझुजांत जर्मनीच्या यू-बोट ह्या नांवान वळखुपी पाणबुडयांनी झुजाच्या सुर्वेक ब्रिटीश नौदलाचें खुब नुकसान केल्लें. दुसऱ्या म्हाझुजांत पाणबुडयांचो खूब उपेग जाल्लो. १९५५ उपरांत आण्वीक पाणबुडयेंत अणुशक्तीचो उपेग जावपाक लागलो.

**वर्गीकरण** : सद्या संवसारांत साबार प्रकारांच्यो पाणबुड्यो आसात. चड करून लश्करी वा हेर वावराप्रमाण तांचें वर्गीकरण केल्लें आसा. आक्रमक पाणबुडयो (Attack submarines) ह्यो नेटान चड पयसमेरेन वचून दुस्मानांची म्हाल व्हरपी तारवां, नावीक तारवां आनी पाणबुडयांक सोदून काडटा आनी तांचो नाश करता. सादारणपणान हीं पाणव्हडी पाणतीर बाळगितात. जाल्यार कांय पाणबुडयो पाणसुरंगांचोय वापर करतात. चपळ पाणबुडी (Fleet submarine) हाची मुखेलपणान पाणतीर व्हरपाखातीरूच रचणूक केल्ली आसून त्यो उदकापोंदच्यान खूब नेटान वचूंक शकतात. क्रूझर ह्या पाणबुडयांक क्षेपणास्त्र वेवस्थेचेर सेंद्रीय ताबो आसता. हाका लागून त्यो व्हड व्हड बोटी सहज नश्ट करपाक शकतात. बॅलास्टिक क्षेपणास्त्र पाणबुडी ही चड खोल उदकांत रावून मारो करता. ती खूब पयसमेरेन क्षेपणास्त्रान हल्लो करपाक शकता. ती उदकांत ४५ दिसां मेरेन लेगीत रावूंक शकता. उदकावयर वावुरपी



**पाणबुडी - सर्वसादारण रचणूक** : १. दाबनिरोधी नौकाया २. बाह्य नौकाया ३. विद्युत् घट ४. डिझल इंजिन (५,६) ७. विद्युत् चलित्र ८. प्रचालक ९. आडवे सुकाणू १०. हवेचो नळ ११. निश्कास नळी १२. हवेचो नळ वापरांत नासतना दवरपाची स्थिती १३. पृश्ठभागाचेर आसतना इंजिनाचो निश्कास जिच्यांतल्यान जाता ती नळी १४. उदकाचो पृश्ठभाग.

तारवांच्या कामगारांक प्रशिक्षण दिवपाखातीर वा दुस्मानांच्यो पाणबुडयो नश्ट करपाखातीर वेगवेगळ्या पाणबुडयांचो वापर करतात. संशोधनाखातीर वापरतात त्यो पाणबुडयो ल्हान, चड खोलायेमेरेन वचपी आनी मर्यादीत क्षेत्रामेरेनूच वापरूंक मेळटात. दर्यातळाचीं खनिजां, वनस्पत, मोनजात आनी दर्याविज्ञानीक म्हायती मेळोवपाखातीर तांचो उपेग जाता. 'ट्रांस्पोर्ट सबमरायन एरिनॅस' हे पाणबुडयेचो नौसैनिकांक व्हरपाखातीर उपेग करतात. कांय सुवातांचेर झुजारी बोट व्हरपाक मेळना आनी कांय खेपे दुस्मानांच्या धाकाक लागून बोटींतल्यान वा विमानांतल्यान सैनिकांक व्हरूंक मेळना, अशा वेळार ट्रांस्पोर्ट सबमरायन एरिनॅस हे पाणबुडयेचो उपेग करचो पडटा.

**रचणूक** : सादारणपणान बोट आनी पाणबुडी हातूंत खूब साम्य आसता. पूण उदकांत बुडपाचे आनी उदकाचो दाब सहन करपाचे नदरेन पाणबुडयेक एके प्रकारचो खाशेलो आकार दिल्लो आसता. हाका लागून त्यो उदकाभितल्लो हालचाली सहज रितीन करपाक शकतात. पाणबुडयेच्यो मुखेल हालचाली उदकापोंदच्यान जातात. हाका लागून उदकाचो दाब सहन करपाचे नदरेन वाटकुळो आकार फायदेशीर थरता, पूण खरेपणीं तें शक्य नाशिल्ल्यान पाणबुडयेक सिगरेटीभाशेन लांबसो वाटकुळो आकार दितात.

सादारणपणान चडशा पाणबुडयांक दोन सांगाडे आसतात. भायल्या सांगाड्याचेर उदकाचो दाब पडटा म्हणून ताचे भितर दाबविरोधी सांगाडो आसता. भायलो सांगाडो उदकनिरोधी आसता. ह्या उदकनिरोधी विभागकांक लागून कक्ष तयार जातात आनी खंयच्याय एका कक्षांत उदक रिगल्यार तो संकश्टावेळार बंद करूं येता. तशेंच, ह्या विभागकांक लागून पाणबुडयांचो मुळाव्या उदकनिरोधि सांगाड्याचें बळगें वाडटा. भितल्ल्या दाबविरोधी सांगाड्यांत अधिकारी, नाविक सैनिक हांचेखातीर सुवात तशेंच इंजिनूय आसता. अशे रितीन भितल्ल्या सांगाड्यांत गरजेप्रमाण वेगवेगळे कक्ष तयार केल्ले आसात. दोनूय सांगाड्यांमदीं डिझेल आनी उदकाच्यो टांकयो आसतात. उदकातळा भायल्यान येवपी दाबाचो समतोल करपाक ह्या टांकयांचो उपेग जाता. पाणबुडयेच्या बॅलास्ट ह्या मुखेल टांकयांनी उदक आसता. ह्या टांकयांक तळाकडेन आनी वयले वटेन दोन व्हड बुराक आसतात. पाणबुडी उदकांत बुडचेखातीर ह्या टांकयांनी उदक भरच्या वेळार तळाकडेन आशिल्लो बुराक उकतो करतात. टांकयांमदीं उदक रिगता तशें वारें वयल्या बुराकांतल्यान भायर वता. पाणबुडी चड खोलायेचेर बुडोवंची आसल्यार तिच्या टांकयांमदीं चड उदक भरतात. अशे रितीन फावो तितलेंच उदक टाकयांनी भरून पाणबुडयेक उदका भितर थीर स्थितींत दवरतात. हे अवस्थेंत पाणबुडयेचो भार तिचे भोंवतणच्या उदका इतलोच जावन ती थिरायेन उदकातळा रावता.

पाणबुडी उदका पोंदच्यान भायर हाडपाखातीर बॅलास्ट टांकयेभितर परतून वारो भरचो पडटा. दर एके पाणबुडयेंत संपीडित वाऱ्याच्यो (Low Pressure) टांकयो आसतात. तातूंत वाऱ्याचो दाब २६०-२७० किग्रॅ./सेंमी. इतलो आसता. हो वारो बॅलास्ट टांक्यांभितर सोडटकूच उदक सकयल्या बुराकांतल्यान नेटान भायर मारता. अशे रितीन पाणबुडयेचो भार उणो उणो जावन उपरांत ती उदका वयर येता.

पाणबुडी उदकापोंदा आसता तेन्ना ती क्षैतिज स्थितींत (Trimmed Condition) दवरची पडटा. पूण ती जेन्ना उदकापोंदच्यान चलता तेन्ना क्षैतिज स्थितीची गरज नासता. ही स्थिती ती डायवींग फ्लॅन्स हांच्या आदारान दवरपाक शकता. पाणबुडयेच्या दोनूय वटांनी फाटीं-फुडें अशे हे फ्लॅन्स बसयल्ले आसतात.

**परिदर्शक (Periscope)** पाणबुडी उदकाभितर आसता तेन्ना पृष्टभागावयली पळोवणी करपाखातीर परिदर्शकाचो उपेग करतात. सादारणपणान पाणबुडयेंत दोन परिदर्शक आसतात. एक उच्च विवर्धन शक्तीचो आनी दुसरो नीच विवर्धन शक्तीचे आसता. उच्च विवर्धन शक्तीचे परिदर्शक द्विनेत्री आसता आनी तातूंतल्यान चड पयस मेरेन पळोवणी करपाक मेळटा. नीच विवर्धन शक्तीचो परिदर्शक चड करून पाणतीर सोडच्या वेळार वापरतात.

**दिकाशोधक (Navigation)** दर्याच्या पृश्ठभागाचेर आसता तेन्ना भुगोलीक सुवात सोदचेखातीर सूर्य, चंद्रीम वा हेर ताऱ्यांचो उपेग करतात. पूण पाणबुडी उदकापोंदच्यान चलता तेन्ना खाशेल्या यंत्राचो वापर करचो पडटा. पूण हालींच्या तेंपार सादारण बोटींनीय अशा खाशेल्या यंत्रांचो उपेग करचो पडटा. पाणबुडयेंत दिका सोदून काडचेखातीर जिरोस्कोप आनी एक्सेलेरोमिटर ह्या यंत्रांचो वापर करतात. तेचपरी खाशेल्या केंद्रांकडेन रेडिओ वा कंप्युटर हांचेवरवीं संपर्क सादून दिका वा सुवात सोदून काडटात.

झुजाच्या वेळार उदका पोंदच्यान गुपीतपणान वचून शत्रूंच्या तारवांचो सोद घेवप आनी वेळ पडल्यार तीं नश्ट करप, हो पाणबुडयेचो मुखेल वावर. पयल्या आनी दुसऱ्या म्हाझुजांनी डिझेल पाणबुडयांचोच उपेग जाल्लो. पूण तातूंत साबार दोश सांपडिल्ल्यान दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत अणुशक्तीचेर चलपी पाणबुडयो चालींत आयल्यो. दुस्मानांच्या कसल्याय प्रकारच्या तारवांचेर ही पाणबुडी हल्लो करपाक शकता. तिचेर पाणतीर आनी पर्यटन क्षेपणास्त्र (क्रूझ मिसायल) हीं मुखेल आक्रमक अस्त्रां दवरतात, तेचपरी ती उदकातळा लिपून रावून ह्या अस्त्रांचो मारो करपाक शकता. अण्वीक पाणबुडयो कम्प्युटराच्या आदारान पाणतीर वा क्षेपणास्त्र मोखून मारतात. क्षेपणास्त्र मोखून मारपाची मोख तीं सोनार, रडार आनी परिदर्शक हांच्या आदारान सोदून काडटात. मिसायल कंट्रोल आनी हेर नियंत्रक उपकरणाखातीर वेगळो कक्ष आसता. हाका मुख्याधिकारी कक्ष अशें म्हण्टात.

आकांताच्या वेळार कर्मचाऱ्यांक वांचोवपाखातीर दर एके पाणबुडयेक मुखार आनी फाटल्यान अशे दोन बचाव कक्ष आसतात. ह्या कक्षांनी भितर येवपाखातीर आनी भायर वचपाखातीर जलनिरोधी दारां आसतात. कांय बचाव कक्ष मुखेल पाणबुडयेसावन सोडोवपाक मेळटात.

सागरी येरादारी आनी झूजनौकादळ हांची दुस्मानांच्या पाणबुडयांसावन राखण करप आनी वेळ आयल्यार दुस्मानांच्यो पाणबुडयो वा झुजारी तारवां नश्ट करप हो पाणबुडयेचो मुखेल हेत.

- कों. वि. सं. मं.

**पाणिनि** : (इ.स. पयलींचो पांचवो वा चवथो शेंकडो).

संस्कृतांतल्या पयल्या व्याकरणाचो कर्तो. विद्वान लोक ताका भोवमानान भगवान पाणिनी अशें म्हण्टात. पाणिनीच्या काळाविशीं विद्वानांमदीं एकमत ना. पाणिनीच्या व्याकरणग्रंथाच्या पुराव्यांवयल्यान तशेंच हेर ग्रंथांच्या पाणिनीच्या उल्लेखांवयल्यान, पाणिनीचो काळ वयर दिल्ल्याप्रमाण इ. स.

पयलीं पांचवो वा चवथो शेंकडो असो मानतात. जाल्यार कांय अभ्यासकांनी पाणिनीचो काळ इ. स. पयलीं आठवो शेंकडो मानला.

पाणिनी हें व्यक्तीचें नांव वा न्हय हे विशींय वाद आसा. ताच्याच एका सुत्रावयल्यान तें गोत्राचें नांव आसुंये, अशें दिसता. पाणिनीक वाहीक, शालंकी, दाक्षीपुत्र आनी शालातुरीय अशींय नांवां आसात. वाहीक हो गांधार देशाचो एक वाठार आनी पाणिनी हो त्या वाठारांतलो म्हणून ताका वाहीक म्हण्टाले. शालंकी शब्दाची व्युत्पत्ती मेळना. दाक्षीपुत्र ह्या नांवावयल्यान, ताचे आवयचें नांव दाक्षी आशिल्लें अशें समजता. शालातुरीय हें नांव ताच्या जल्मगांवा वयल्यान पडलां आसुंये. लहुर हो शलातुर शब्दाचोच अपभ्रंश. (लहूर हे सध्याचें लाहोर) पाणिनीचे पुर्वज ह्याच गांवांत रावताले. पाणिनी हो तक्षशिलेच्या विद्यापिठांत शिकिल्लो आसुंये असो अदमास आसा.

पाणिनीन वैदिक भाशेवांगडा त्या काळांतले बोली भाशेचो अभ्यास करून वर्णनात्मक व्याकरण बरयलें. सुमार ४,००० सुत्रां आशिल्ल्या ह्या व्याकरण ग्रंथाचे आठ अध्याय आशिल्ल्यान ताका अष्टाध्यायी वा अष्टक अशें नांव पडलें. अष्टाध्यायींतलीं सुत्रां बीजगणितांतल्या सुत्रांभाशेन तंत्रीक परिभाशेंत बरयल्यांत ताका लागून हीं तंत्रां सारकीं समजुंचीं हेखातीर ताणें संज्ञासुत्रां आनी परिभाशासुत्रां दिल्यांत. ग्रंथांतलो तपशील आनी बारीकसाणी हांचेवयल्यान अष्टाध्यायी हो ग्रंथ म्हळ्यार शेंकड्यांनी वर्सां चालू आशिल्ल्या व्याकरणाविशींच्या विचारांचें निमाणचें संस्करण आसुंये अशें दिसता. पाणिनीन आपले पयलींच्या धा वैयाकरणांचो उल्लेख केला. 'गणपाठ' आनी 'धातुपाठ' अशीं परिशिश्टां ताणें अष्टाध्यायीक जोडल्यांत. पाणिनीच्या सुत्रांचेर कात्यायनान चिकित्सक नदरेन वार्तिकां बरयल्यांत. त्या वार्तिकांचेर पतंजलीन महाभाष्य नांवाची नामनेची टिका बरयल्या. सातव्या शेंकड्यांत जयादित्य आनी वामन हांणी अष्टाध्यायीचेर 'काशिका' नांवाची टिका बरयल्या. इंग्लीश, जर्मन आनी फ्रेंच भाशांनीय अष्टाध्यायीचे अणकार जाल्यात.

पाणिनीच्या अष्टाध्यायींतली सुत्रां वैदिक दर्शनाच्या अभ्यासाखातीर उपेगी पडटातूच, तशेंच उपनिषदांच्या अभ्यासाखातिरूय तांचो उपेग जाता. चड करून सगळ्याच संस्कृत वाङमयाचो अभ्यास ताका लागून सोंपो जाता.

पाणिनीच्या ग्रंथाचेर आदारीत 'सिद्धान्त कौमुदी' हो ग्रंथ भट्टोजी दीक्षीत हाणें बरयलो. पयले कितलेशेच शेंकडे, त्या ग्रंथावयल्यानूच चड करून पाणिनीय न्यायकरणाचें अध्ययन चलता. ह्या ग्रंथांत वैदिकी प्रक्रिया आनी स्वरप्रक्रिया अशीं दोन प्रकरणां आसात. वैदिक प्रक्रियेंत पाणिनीचे व्याकरणाविशीचे नेम सगळ्या वैदिकी वाङमयाक कशे लागू जातात, हें दाखयलां. स्वरप्रक्रियेंत वैदिक भाशेचे उच्चार कशे करचे हे विशीं विस्कटावणी आसा.

पाणिनी हो जसो व्याकरणकार तसोच कवीय आशिल्लो, अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. 'जांबवतीविजय' नांवाचें एक काव्य पाणिनीन रचलां, अशें मानतात. पूण ह्या काव्याचो कर्तो कोण तरी दुसरोच आसून तो इ. स. च्या ९ व्या शेंकड्यांत जावन गेलो आसुंये अशें चडशा अभ्यासकांचे मत आसा.

शींवाचे भकीक पडून ताका मरण आयलें अशी एक आख्यायिका आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पातक (पाप) :** जें कृत्य केल्ल्यान देवान सांगिल्ल्या वा देवप्रणीत मानिल्ल्या धर्मग्रंथांतल्या नेमांचें बुद्धिपुरःसर उल्लंघन जाता वा अशा ग्रंथांनी घालून दिल्ल्या नेमांचें परिपालन जायना तें पातकी कृत्य. पातकाविशींच्यो कल्पना वेगवेगळ्या धर्मांनी, वेगवेगळ्या काळांत आनी वेगवेगळ्या देशांत विंगड विंगड प्रकाराच्यो आसात. तशेंच वेगवेगळ्या पातकांखातीर वेगवेगळे तरेच्यो ख्यास्ती सांगिल्ल्यो आसात. घडिल्ल्या पातकांचें परिमार्जन जावपाखातीरूय वेगवेगळे विधी, प्रायश्चित्तां आनी उपाय सांगिल्ले आसात. ऋग्वेदांत पातकांसंबंदी साबार कडेन उल्लेख मेळटात. तैत्तिरीय संहिता, वाजसनीय संहिता आनी काठक संहिता हांच्यांत पातकांविशीं वेगवेगळे विचार दिश्टी पडटात.

न पापासो मनामहे
नारायासो न जल्हवः ॥ (ऋग्वेद ८.६१.११)

**अर्थ –** आमी पापी, निर्धन आनी अनग्नी जावंचे नात.

सर्व पापानं तरति
तरति ब्रह्महत्यां योऽश्वमेधन यजते ॥
(तैत्तिरीय संहिता ५.३.१२)

**अर्थ –** जो अश्वमेध करता तो सगळीं पापां तरता, ब्रह्महत्या लेगीत तरता.

तस्माद् ब्राह्मणः सुरां न पिबिति
पाप्मनाने त्संसृज्या इती ॥ (काठक संहिता १२. १२)

**अर्थ –** पापाचो संसर्ग जावचो न्हय म्हूण ब्राह्मण सोरो पियेना.

ऋग्वेदांतल्या मंत्रद्रष्टी ऋषींक पातकाची तीव्र जाण आशिल्ली हें, ताणीं पातकांविशीं आपणाक क्षमा करपाविशीं आनी पातकांच्या परिणामांपसून आपली मुक्ती जावची म्हूण देवांक केल्ली विनंती, हाचे वयल्यान सिद्ध जाता. पातकाची कारणमिमांसा वेगवेगळ्या जाणकारांनी केल्ली आसा. कौषतकी ब्राह्मण उपनिषदांत (३.९) सांगिल्ले प्रमाण, ज्या मनशाक उच्च स्थितीक व्हरपाचें देवाच्या मनांत आसता, त्या मनशाकडल्यान देव सत्कृत्यां करून घेता आनी ज्या मनशाक अधोगतीक व्हरपाचो आसता तेन्ना देव ताचेकडच्यान असत्कृत्यां करून घेता. हाचो अर्थ मनशाची नियती पयलीच थरिल्ली आसता आनी ते नियतीक धरुनूच तो बरीं वा वायट कृत्यां करता. भगवद्गीते प्रमाण रजोगुणांपसून उद्भवपी काम, राग, आनी लोभ हे ह्या जगांतल्या मनशांचे दुस्मान आसून ते मनशाक पापकृत्यां करपाक प्रेरित करतात. जाल्यार सांख्य शास्त्रांतल्या तत्त्वांप्रमाण सत्व, रज आनी तम हे तीन गूण वेगवेगळ्या मनशांचे कुडींत वेगवेगळ्या प्रमाणांत आसतात. तांच्यातलो रजोगूण हो मनशांतले पापवृत्तीक कारण आसता. गौतम ऋषीच्या म्हणण्याप्रमाण ह्या संवसारांत मनीस वायट कृत्यांच्या योगान वा शास्त्रांनी घालून दिल्ल्या नेमांचें परिपालन ना करप, तशेंच शास्त्रांनी निषिद्ध केल्ल्यो गजाली करीत जाल्यार मनीस पापी थरता. सगळीं पातकां वासनामूलक आसतात अशें जैन धर्मांत म्हळां. वासनेचो क्षय केल्यारूच अर्हत्पदाची प्राप्ती जाता अशें तांचें मत. हाकालागून वासनांचो क्षय करपाखातीर जैन आचार्यांनी खूब नेम घालून दिल्यात. ते नेम आचरणांत ना हाडले जाल्यार पाप लागता अशें ताणीं मुखार म्हळां बौद्ध विचारसरणेंत सैमीकनेमांचेर चड भर दिल्ल्यान पापकल्पनेक तातूंत म्हत्व ना. बौद्ध मताप्रमाण मनीस पाप करना, पूण अज्ञानाक लागून ताचेकडच्यान चुको जातात त्या चुकांक लागून विश्वचक्राचे गतींत बाधा येता आनी ताच्या निर्वाणमार्गांत आडमेळ येता.

वेगवेगळ्या ग्रंथांनी प्राचीन काळासावन पातक लागपी कृत्यांचीं नांवां आनी पातकांच्या म्हत्वाप्रमाण विभागणी केल्ली आसा. ऋग्वेदांत ब्रह्महत्या, भ्रुणहत्या, सुरापान, चोरी, गुरुतल्पगमन, दुष्कृत्यांची पुनरावृत्ती आनी खंयच्याय पापकृत्यांविशीं फट उलोवप हीं सात पातकां मानल्यांत. प्राचीन काळासावन ब्रह्महत्या हें पातक सगळ्यांत खर मानलां. पूण काठक संहितेंत भ्रूणहत्या ही ब्रह्महत्येपरसूय चड निंद्य मानल्या. वसिष्ठान पातकांचे एनस्विन्, म्हापातकी आनी उपपातकी अशे तीन वर्ग केल्यात. कात्यायनान पातकांचे पांच वर्ग जाल्यार विष्णु धर्मसुत्रांत णव वर्ग केल्यात.

चडशा धर्मग्रंथांनी ब्रह्महत्या सुरापान, चोरी, गुर्वङ्गनागन (गुरूचे बायलेवांगडा संभोग), म्हापातकीसंसर्ग (चार म्हापातकां करप्यांवांगडा भोंवप) आनी उपपातकां ह्या पातकांक म्हापातकां मानल्यांत. अशा विंगड विंगड प्रकारच्या आनी दर्जाच्या पातकांचें निराकरण जावचें म्हूण धर्मग्रंथांनीं वेगवेगळ्यो साधना सांगल्यात. ऋग्वेदांतल्या साधनांप्रमाण देवान पातक्यांचेर दया करची आनी तांचीं पातकां भोगसुंचीं. तेखातीर पातक्यांनी देवाची प्रार्थना करची. देवाक प्रसन्न करचेखातीर यज्ञ करप, पातकांची कबुली दिवप, सत्याभाषण करप, उपास करप अशे कडक नेम घालून दिल्यात. सुत्रग्रंथांत आनी स्मृतींतल्या तत्त्वांप्रमाण पातक कर्म आनी पुनर्जल्म सिद्धांतांचेर आदारला. बरें कृत्य केल्यार ताचेपसून सुखकारक फल मेळटा आनी वायट कृत्य केल्यार दूख भोगचें पडटा. हिंदू मताप्रमाण चित्रगुप्त नांवाची देवता केल्ल्या दर पाप-पुण्याचो हिशोब दवरता. ह्याच हिशोबाप्रमाण स्वर्ग - नरकाची प्राप्ती जाता. वायट कृत्यांचें दुखरुप फल तत्काळ जल्मांत मेळना जाल्यार, आत्मो दुसरो जल्म घेता आनी ताच्या रुपान केल्ल्या वायट कर्मांचें दूख भोगता. गौतम ऋषीच्या सांगण्याप्रमाण वेदांचो जप, तपश्चर्या, यज्ञ, उपास तिर्थयात्रा आनी दान करून पातक पयस करूं येता. भक्तीमार्गीय शैव - वैष्णववादी तत्त्वांप्रमाण ईश्वराक शरण गेल्यार, ताची पुजा - अर्चा केल्यार वा ताचें नामस्मरण केल्यार सगळीं पातकां धुवन वतात. सादारणपणान सगळ्या धर्मग्रंथांच्या मतांप्रमाण प्रायश्चित्ताच्या योगान पातकांचो नाश करूं येता.

क्रिस्तांव धर्माप्रमाण, ॲडम ह्या सुर्वेच्या मनशान सैतानाच्या शब्दाक भुलोवन,जी चूक केली, तें मूळ पाप तेंच पाप मुखार सगळे मनीसकुळयेंत भरसून गेलें. ताका लागून मनीस जल्मताच पापी आसता. पापी कृत्यांक लागून तो देवापसून पयस वचत आसता. जेजूक शरण गेल्यार आनी पापाची कबुली दिवन पश्चात्ताप व्यक्त केल्यार मनीस पातकांतल्यान मुक्त जाता. हाका लागून इगर्जेंत कबुलीपेटी (Confession box) दवरून पापी मनशाक आपल्या पापाची कबुली पाद्रीमुखार दिवपाची वेवस्था केल्ली आसता. कबुली वांगडा, पश्चात्ताप जाल्यारूय पापक्षालन जाता असो संकेत आसा. इस्लामी धर्मान पापकृत्यांविशीं पश्चात्तापाक म्हत्व दिलां. ईश्वर प्रेषीत अशे जे सत्पुरूस जावन गेले. ते पापमुक्त आशिल्ले अशें ताणीं मानलां. व्यभिचार, हत्या आनी हेर सगळ्या पातकांक तांणी समान मानल्यांत. अल्लाक शरण गेल्यार आनी दानधर्म केल्यार पाप नश्ट जाता अशी तांची समजूत.

बुद्धिवाद्यांच्या मतान पापकल्पना ही मानवनिर्मीत आसून, समाजधारणेच्या पोटांत ती जल्माक आयल्या. पाप हो गुन्यांव म्हूण समाजान मानून घेतला. तशेंच त्या गुन्यांवांची ख्यास्तूय समाजान आनी समाजाच्या शास्त्रवचनांत सांगल्या.

पाप हो एक तरेचो गुन्यांव आसलो तरी भोवतेक पापकर्मां न्यायशासनाखाला येनात. चोरी हो समाजीक (पाप), तसोच न्यायशासकीय गुन्यांव ह्या दोनूय संकल्पनांखाला येता. हाचे उरफाटें देव मानप ना हें पाप आसलें तरी तो न्यायशासनाखातीर गुन्यांव थारना. भौशिक सुवातेर गोंदळ करप हो गुन्यांव जालो (न्यायशासकी) तरी तें पाप जायना. ज्या गुन्यांवांचो पुरावो उपलब्ध आसना त्या गुन्यांवांक न्याययंत्रणा ख्यास्त करूंक पावना, तशेंच प्रत्यक्षांत गुन्यांव घडल्याबगर न्याययंत्रणा शासन करीना. पापाचें तशें नासता. पापाक पुरावो लागना. तशेंच मनांतली पापी कल्पनालेगीन प्रत्यक्ष पाप करपासारकीच आसता.

पाप - पुण्याचो संबंद नरक - सर्गाकडेन वा वायट - बऱ्या भाग्याकडेन लायिल्ल्या कारणान समाजाचे प्रगतीक तशेंच आवश्यक बदलांक हानीकारक जाता. ताचेवरवीं मानवनिर्मीत असमानता आनी अन्याय हांचें समर्थनूय जाता. पाप - पुण्याचे कल्पनेन मनीस प्रयत्नशील जावचे सुवातेर दैववादी जावपाचो भंय उरता. हाका लागून चार्वाक सारकिल्या बुद्धीवाद्यांनी पाप - पुण्याचे कल्पनेक विरोध केला.

अशें जरी आसलें, तरी पाप-पुण्याचे संकल्पनेन समाजांत नितीमत्ता, सदाचार, सदगूण हांकां प्रोत्साहन मेळून, अराजक आनी गुन्यांवगारी प्रवृत्तींचें नियंत्रण जावपाक आदार मेळटा. कायद्यापरस पाप-पुण्य कल्पनेची व्याप्ती चड व्यापक आशिल्ल्यान आनी ताचें नियंत्रण चड खर जाल्ल्यान समाज बांदावळीखातीर हे कल्पनेचो बरो उपेग जावंक शकता.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : पुण्य.

**पाताळ :** पुराणांत वर्णिल्लो एक लोक. ताका अधोलोक अशें म्हण्टात. 'पतन्ति अस्मिन् दुष्क्रियावन्तः' = वायट कृत्यां करपी लोक जातूंत वतात अशीं स्थानां म्हणजेच पाताळ, अशी ताची व्याख्या आसा. पाताळाक अधोभूवन, असुरभूवन, बलीसद्म, रसातल, नागलोक अशीं जायतीं नांवां आसात. हीं सगळीं स्थानां धर्तरेच्या सकयल आसात.

पाताळांचो आंकडो सात मानिल्लो आसून अतल, नितल, वितल, गभस्तिमान, तल, सुतल आनी पाताळ अशीं तांची नांवां आसात. पद्म पुराणांत हीं नांवां मातशी वेगळीं दिल्लीं आसात. तीं अशीं - असल, वितल, सुतल, तलातल, महातल, रसातल आनी पाताळ.

हीं पाताळां म्हणजे विवरांतले सर्गच. तातूंत समृद्ध भवनां, उद्यानां विहारस्थानां आनी क्रिडास्थानां आसात. धर्तरेच्या सकयल अयुत योजने अतल आसून थंय महासुर मयपूत रावता. ताच्या सकयल अयुत योजने वितल आसून थंय हाटकेश्वर शिव विहार करता. ताचे वांगडा पार्वती आनी ताचे भूतगणय रावतात. तातूंत हाटकी नांवांची व्हड न्हंय व्हावता. वितलाच्या सकयल अयुत योजने सुतल आसून थंय पुण्यश्लोक बळी रावता. सुतलाच्या सकयल अयुत योजने तलातल आसून थंय त्रिपुराधिपती, दानवेंद्र मय रावता. ताच्याय सकयल अयुत योजने महातल आसून त्या जाग्यार काद्रवेय नांवाचो सोरपांचो गण रावता. गरुडाक भियेवन हे कद्रूचे पूत हांगा आपल्या कुटुंबासयत राविल्ले आसात. ताचे सकयल अयुत योजनेत पाताळ आसून थंय हुशार अशे नाग लोकांचे अधिपती वसती करून राविल्ले आसात.

हांगा सूर्यकिरण फकत उजवाड दितात. ते लोकांक वताचो धग दिनात. तेचप्रमाण चंद्रिमय फकत रातचो उजवाड दिवपा खातीर उदेता.

ताका लागून लोकांक थंडेची बादा जायना अशें विष्णु पुराणांत सांगलां. तशेच पाताळाच्या सकयल शेश रावता आनी ताच्या मस्तकाचेर धर्तरी आसा.

विष्णु आनी स्कंध ह्या पुराणांत गभस्थिमान आनी नागद्विप हे दोनूय पाताळाचे भाग मानिल्ले आसात.

प्रभास आनी गिरनार ह्या दोन जाग्यांनी जाय तीं पाताळ-विवरां आशिल्लीं अशें स्कंध पुराणांत सांगलां. हाचे वयल्यान, सिंधू न्हंयेच्या मुखापसून शूर्पारकामेरेनच्या भारताचे अस्तंत देगेवयल्या प्रदेशाक पुराणकाळांत पाताळ लोक म्हण्टाले अशें सिद्ध जाता.

पाताळाची कल्पना जगांतल्या सगळ्या लोकांत प्रचलीत आसा. पाताळांत काळोख आसता, अशी बाबिलोनी, हिब्रू, मिसरी, ग्रीक, रोमन ह्या लोकांची कल्पना आशिल्ली. पाताळ हें मेल्ल्यांचें निवासस्थान आसा आनी पाताळांतल्यो वस्तू आपले उरफाटे दिकेन लोंबकळायल्ल्यो आसतात, अशीय समजूत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : सर्ग, नरक.

**पाध्ये, काशीनाथ अनंत :** (१९९०-१८०६). एक धर्मनिबंधकार. हाच्या बापायचें नांव अनंत पाध्ये आनी आवयचें नांव अन्नपुर्णा. रत्नागिरी जिल्ह्यांतलें गोळवली हो ताचो मूळ गांव. संगमेश्वर तालुक्यांतल्या बहात्तर गांवाची जापसालदारकी ताचेकडेन आशिल्ली. पूण तो पांडुरंगाचो भक्त आशिल्ल्यान तो पंढरपूराक गेलो आनी जिणेचे निमाणेमेरेन थंयच रावलो. ताका बाबा पाध्ये अशेंय म्हण्टाले. ताणें बरयल्ल्या धर्मसिंधू नांवाच्या ग्रंथाखातीर ताका खुबूच नामना मेळ्ळी. धर्मीक ग्रंथाखातीर जाय आशिल्ल्या धर्मशास्त्रीय विशयाचो विचार ताणें ह्या ग्रंथांत बरे तरेन मांडला. निर्णयसिंधू, पुरुषार्थ चिंतामणी, कालमाधव, हेमाद्री, कालतत्त्वविवेचन, कौस्तुभ आदी ग्रंथांचो आदार घेवन ताणें हो ग्रंथ बरयलो. पंढरपूराक ताचो ग्रंथ बरोवन जातकच ताचो भाव विठ्ठलपंत हाणें तो काशीक हाडून परिक्षेखातीर थंयच्या पंडितांमुखार दवरलो. ह्या पंडितांनी ताची परिक्षा करून तो अधिकृत आनी बरो आशिल्ल्याचो निर्णय दिलोच. तेचपरी ह्या ग्रंथाची पालखेंतल्यान काशी वाठारांत मिरवणूक काडली.

धर्मसिंधूचे तीन भाग आसात. पयल्या आनी दुसऱ्या भागांत वर्साच्या बारा म्हयन्यांतल्या धर्मकृत्यांविशीं विवेचन केलां. तिसऱ्या भागाचे पुर्वार्ध आनी उत्तरार्ध अशे दोन भाग आसात. तातूंत सोळा संस्कार, नित्यकर्मां, अग्निहोत्र, मुर्तीची अर्चा, ग्रहारंभ, गृहप्रवेश आदी गजालींविशीं नेम सांगल्यात. फुडें कलीयुगांतल्या वर्ज्यावर्ज्य गजालींचें विवेचन, संन्यास ग्रहणाचो विचार तशेंच संन्याशी आनी विधवा हांचे धर्म विस्तारान सांगल्यात. हो मूळ ग्रंथ संस्कृत भाशेंत आसून ताचें मराठी भाशांतर उजवाडाक आयलां.

बाबा पाध्ये हाणें पंढरपूरांत एक पाठशाळा सुरू केल्ली. ताणें पंढरपूरच्या विठ्ठलाचे पुजेंतले उपचार वाडयिल्ले तेचपरी स्वरचीत संस्कृत आरत्यो देवामुखार म्हणपाची चाल सुरू केल्ली. विद्वत्ताय आनी सदाचरण ह्या दोनूय गजालींक लागून लोक ताचो आदर करताले. मरणाआदीं कांय काळ ताणें संन्यास घेतिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**पान :** झाडाचें सगळ्यांत सहज दिसपी खोडावयलें म्हत्वाचें अशें सपाट उपांग. वैदिक वाङ्मयांत 'पर्ण' ही संज्ञा वनस्पतीच्या एका अवयवाक (पानाक) वापरिल्ली आसा. ही संज्ञा एका यज्ञीय झाडाकूय (पलाश) उद्देशून वापरिल्ली आसा.

पानाचो उगम आनी विकास खोडाचेर वा खांदयेचेर अतिसुक्ष्म आनी सतत विभाजन जायत आशिल्ल्या कोशिकेच्या चोम्याच्या भायल्या थराचेर जाता. सुर्वेक ती ल्हान तोंकानी वयर सरतात आनी उपरांत तातूंतलीं उतकां, रचना आनी कार्य आशिल्ल्या कोशिकांचे-पेशीचें आनी निमाणे वाहक कोशिका तयार जावन पांन पुर्ण जाता. हातूंत पानाच्या तोंकाकडलो भाग पयलीं, उपरांत मध्यभाग आनी निमाणें तळाकडलो भाग पुराय जाता. उजवाडावरवीं झाडाखातीर अन्ननिर्मिती तयार करप, झाडाखातीर फाव आशिल्ले परस चड उदकाचो अंश वाफेच्या रूपान भायर उडवप आनी गरजेप्रमाण तातूंतल्या अतिल्हान छिद्रांतल्यान त्वरंध्रांवरवीं ऑक्सीजन भितर घेवन कार्बनडाय ऑक्सायड भायर उडोवप आदी प्रक्रिया पानावरवीं चलतात. ही प्रक्रिया घडपाक पानांभितर-भायर तांकां फाव ती संरचना, आकार आनी वेवस्था आसता.

पानाचे मुखेलपणान तीन भाग आसतात - १) पर्णतल (देंठा मुळचो भाग) २) पाचवो, चड करून सपाट आनी पसरट भाग म्हळ्यार पातें ३) ह्या दोगांकय जोडपी लांबसो आनी घट्ट भाग म्हळ्यार देंठ.




**पानाचे भाग :** १. पर्णतल २. पातें ३. देंठ ४. पर्णाग्र ५. पर्णकड ६. मध्यशीर ७. उपशीरो.

पात्याचें तोंक आनी कडो हातूंत जायते प्रकार पळोवंक मेळटात. पात्यांत एक मध्यशीर आनी तिचे कुशीन जायत्यो उपशिरो आसतात. केन्ना केन्ना देंठाचो तळभाग फुगीर आसून पानाचे हालचालीक आदार करता. अशा भागाग पुलवृंत म्हण्टात. कांयकडे हो तळभाग पसरट आनी लांबट आसून तो खोडाक पुराय तरेन गुठलायल्लेवरी आसता. ताका आवरक म्हण्टात. पर्णतलाकडे एक ल्हानशें पाचवें उपांग आसता ताका उपपर्ण म्हण्टात. खंयच्याय पानाक अशें उपपर्ण आसल्यार सोपपर्ण म्हण्टात जाल्यार तें नासल्यार अनुपपर्ण अशें म्हण्टात. पाचवें आनी पानावरी आशिल्ल्या उपपर्णाक पर्णसम, देंठाच्या तोंकाक दोनयवटेन एक एक उपपर्ण तेंकून आसल्यार वृंत्तलग्न, एकामेकां सामकार आशिल्ल्या पानांचीं उपपर्णां ताचे कुशीन एकठांय येतात ताका अंतरावृत्तीय, काटेरी उपपर्णा आसल्यार तांकां कंटक, कांय झाडांचीं उपपर्णां आदाराचेर

चडपाक उपेगी पडटात ताका प्रतानरूप म्हण्टात. कांय झाडांक तर खोडाक नळयेवरी गुठलायिल्ले उपपर्ण आसता.

देंठ आशिल्ल्या पानांक सवृंत, देठ नाशिल्ल्या पानांक अवृंत आनी खूब ल्हान देंठ आशिल्ल्या पानांक अल्पवृंत म्हण्टात. कांय पात्यांचे फाटलेवटेन देंठ चिकटिल्लो आसता. ताका छत्राकृती म्हण्टात. कांय पात्यांच्या देंठाक पात्यावरी पसरट भाग आसता ताका सपक्ष म्हण्टात.

पातें हो पानांचो मुखेल क्रियाशील भाग आसून तातूंत उदक, लवण वा तयार जाल्लो अन्नरस हाड-व्हर करपाक शिरांची मांडावळ आसता. हे मांडणेक सिराविन्यास म्हण्टात. पात्याच्या तळापसून एक वा जायत्यो मुखेल शिरो येवन फुडें तांकां जायत्यो ल्हान-व्हड उपशिरो येतात. जेन्ना ह्या शिरांचें जाळें जाता तेन्ना ताका जाळीदार सिराविन्यास म्हण्टात. पूण जेन्ना ह्यो शिरो समांतरच उरतात तेन्ना ताका समांतर सिराविन्यास म्हण्टात. ह्या दोनय प्रकारांत मुखेल शीर एक आसल्यार एकसिराल (देखीक - आंबो, केळ) आनी जायत्यो आसल्यार बहुसिराल (देखीक - एरंड, ताड). एकसिराल सिराविन्यास पिसावरी दिसता आशिल्ल्यान ताका पिच्छाकृती म्हण्टात जाल्यार बहुसिराल हो हातासारको दिसता आशिल्ल्यान ताका हस्ताकृती म्हण्टात. पानाचें पातें सैमीकतरेनच कमी चड प्रमाणांत विभागिल्लें आसता. ते पुरायतरेन विभागिल्ल्यान ताचे स्वतंत्र खंड (दल, दलक) जावन मदले शिरेर जायतीं पातीं दिसतात म्हणून ताका संयुक्त पान म्हण्टात. देखीक - गुलाब, बेल.

पानांचो आकार ल्हान ते मोटे अशे जायते तरेचे आसतात आनी तातूंत वेगळेपणय खूब आसता. हें वेगळेपण ताची रूपरेखा, धारो, तोंकां आनी छेदन हांच्या प्रकाराचेर अवलंबून आसता. पानाच्यो कडो अखंड (वड, पिंपळ) दांतेरी पूण दांत तोंकाकडे वळिल्ले देखून दंतूर (दसण), भायर तोंक आशिल्ले दांत देखून प्रदंतूर (काळींग), रूंद दांत देखून स्थूलदंतूर (गुंडरी), कांटेरी म्हणून कंटकित (कांटेकुवर), उदकाचे लाटेप्रमाण देखून तरंगित (अशोक) ल्हान व्हड उंचवटे आनी खांचो आशिल्ल्यान नतोन्नत (ओक) अशो वेगवेगळ्यो आसतात.



पानांच्यो तीन वेगवेगळ्यो कडो

पानांच्या कडांक ल्हान व्हड विभाग पडिल्ल्यान तीं खंडीत जातात. तांचे दोन अपुर्ण खंड जाल्यार ते द्विखंडी जाता आनी तीन अपुर्ण खंड जाल्यार ते त्रिखंडित जातात. तशेंच पिसावरी सिराविन्यासाचे पातें मध्यशिरेकडे अर्द्यार खंडित आसल्यार ताका अल्पपिच्छाकृती, चड खंडित आसल्यार अर्दपिच्छाकृती आनी मध्यशिरेच्या सादारण लागसार विभागणी अपुर्ण पिच्छकृती म्हण्टात. हाचेचवरी हस्ताकृती सरविन्यासाचें पातें अल्पहस्ताकृती, अर्दहस्ताकृती आनी अपुर्ण हस्ताकृती खंडित आसता. हाचेभायर पक्षिपदाकृती, विणाकृती, पश्चदंती, कंकतिक हे पात्याच्या खंडनाचे कांय खाशेले प्रकार आसात.

पानांच्या तोंकातय वेगवेगळे प्रकार पळोवंक मेळटात. विशालकोनी बोथट आनी वांटकुळ्या तोंकाची (वड); लघुकोनी वा तोंकाची (दसण, नागवेल); प्रकुंचित लांबशी आनी शेपडेवरी (पिंपळ); कंटकाग्र निमाणे तीक्ष्ण कांटे आशिल्ले (खाजूर, घायपात); निम्ममध्य - मदीं त्रिकोनी खांच आशिल्लें (आपटो); प्रतानरूप - दोरयेवरी आनी संवेदनाक्षम.



पानांचीं तीन वेगवेगळी तोंकां

सादारणपणान पानाच्या रूपरेखेचेय जायते प्रकार आसात - १) सूच्याकृती सुयेवरी लांब आनी तोंक आशिल्लें (पाईन/सुरू) २) रेखाकृती - खुबूच अशीर, लांब आनी दोनय धारो समांतर आशिल्लें (तण) ३) कुंतसम - मुळाकडेन थोडे अशीर, मदीं रूंद आनी तोंकाकडे अशीर जायत गेल्ले, भाल्यावरी (कोंडो, कणेर) ४) दीर्घवृत्ताकृतीवयर सांगले तेचवरी पूण दोनय तोंकाकडे अशीर (वोंवळ) ५) आयत - दोनय तोंका वाटकुळसार आनी धारो समांतर आनी सारक्याच रूंदायेच्यो (पेर, केळ) ६) अंडाकृती - तळाकडे वांटकुळे आनी तोंकाकडे निरूंद (पारजत), व्यस्त अंडाकृती - तळाकडे निरूंद आनी तोंकाकडे वांटकुळसार (पणस) ८) काळजाकृती - तळाकडे खांच आनी वयलेवटेन तोंक ९) व्यस्त काळजाकृती - तळाकडे तोंकदार आनी वयलेवटेन खांच (आंबुटी) १०) वृक्काकृती - तळाकडे उथळ, खांच आनी तोंक कमानदार (गुंडरी) ११) शराकृती तळाकडे बाणाच्या तोंकावरी आनी वयलेवटेन अशीर (आळूं) १२) प्रशराकृती - वयर उल्लेख केला तसोच तळाकडलीं दोन तोंका भायर वळिल्ली (हरणखुरी) १३) तिर्यक - पात्याच्या मध्यशिरेच्या दोनय वटानचीं अर्दां सारकीं आसनात. देखीक - कडुलिंबाचें पान १४) अर्दचंद्राकृती पात्याची रूपरेखा अर्दवर्तुळावरी (नेचा) १५) चमसाकृती पात्याचें तोंक वांटकुळें तळाकडे निरूंद, चमच्या आकाराचें (डेझी).

एकसिराल सिराविन्यास आशिल्ल्या पात्याची पुराय विभागणी जाल्यार पिसावरी दिसपी संयुक्त पानांची संरचना तयार जाता. तशेंच बहुसिराल सिराविन्यास आशिल्ल्या पात्याची पुराय विभागणी जावन हस्ताकृती संयुक्त पान तयार जाता. ताच्या विभागांक दल म्हण्टात. देखीक - गुलाबाच्या संयुक्त पानाक पाच दलां आनी बेलाच्या संयुक्त पानाक तीन दलां आसतात. पिच्छाकृती संयुक्त पानांच्या तोंकाक दल आसल्यार एकुण दलांची संख्या विषम जाता देखून ताका विषमदली पिच्छाकृती म्हण्टात (गुलाब) आनी तोंकाक दल नासल्यार समदली पिच्छाकृती म्हण्टात

(तायखिळो). केन्नाकेन्नाय दलांय संयुक्त पानांवरी पिच्छाकृती, खंडीत आसतात (गुलमोहर). अशा संयुक्त पानांक द्विगुण पिच्छाकृती म्हण्टात आनी दलाच्या विभागून आयिल्ल्या भागाक दलक म्हण्टात. पानांची विभागणी दोन फावट आयिल्ली आसता. म्हसकाच्या पानांची हे पद्धतीन तीन फावट विभागणी जाल्ली आसता. देखून दलकय परत पिच्छाकृती विभागल्लो आसता. देखून म्हसकाचें संयुक्त पान त्रिगुण पिच्छाकृती आसता. हस्ताकृती संयुक्त पानांक दलाचे संखेवयल्यान द्विदली, त्रिदली, चतुर्दली, पंचदली अशें म्हण्टात.



**संयुक्त पानां :** १. विषमदल पानां २. पंचदली पानां ३. त्रिदली पानां ४. त्रिगुण पानां ५. द्विगुण पानां ६. समदली पानां.

पानांची खोडावयली रचणूक ताच्या कार्याचे नदरेन फाव तशी आनी फाव तितलोच प्रकाश मेळोवपी अशी आसता. हातूंत खाशेलेतरेन अशे दरेक पेरार एक (आंबो, वड); दोन (रूई, पेर) वा चड (कण्हेर) पानां आसून चड करून ती एकमेकांचेर न येतलीं अशीं दोन, तीन, चार वा चड उबे रांगेत आसतात. हे मांडावळीक 'पर्णविन्यास' म्हण्टात. पानाच्या देंठाचो तळभाग जंय खोडाक सांधील्लो आसता त्या बिंदूक 'निवेशन' म्हण्टात. पान हें खांदयेर वा वायवीय हवेंतल्या (खोडार) आसल्यार 'स्कंधोद्‌भव' म्हण्टात. जमनीभरवण आसल्यार संक्षिप्त येवपी पानाक मूलज (देखीक - गाजर, बीट, घायपात, मुळो) म्हण्टात. कांय पानां एक दोन म्हयन्यांपुरतींच उरतात आनी उपरांत सगळीं एकदम गळून पडटात तांकां 'पतिष्णू' म्हण्टात. (देखीक - पंगरो), ज्या झाडांची पानां सहसा गळून वचनात वा जांकां चड आयुश्य आसता तांकां 'चिरहरित' म्हण्टात.

पानाचो पृश्ठभाग चडांत चड उजवाड मेळोवपाचे नदरेन अशे तरेन झाडाचेर आदारिल्ले आसतात जेवरवीं खोड वा खांदयेक तो काटकोनांत उरता. पानांची एक वट उजवाडाकडेन आनी दुसरी वट जमनीकडे वळिल्ली आसता.

ताका लागून तांचे संरचनेत आनी भायल्या स्वरुपांत ताच्यो दोनय बाजू फरक दाखयतात. कांय पातीं खोडाक समांतर उबीं रावन खर उजवाडाचे उबे किरण धारांचेर घेतात. अशें केल्ल्यान तांच्या दोनय वटांनी कसलोच फरक उरना. हांकां 'समद्विपृश्ठी' म्हण्टात.

सादारणपणान पानांचे जरी खाशेले आकार आसले तरी केन्ना केन्नाय एकाच झाडाक वेगवेगळ्या प्रकाराचीं पानां आसू येता. हातूंत दोन प्रकार आसात. झाडाचो कांय भाग उदकांत आनी कांय भाग हवेंत वाडल्यार, हवेंतल्या आनी उदकांतल्या पानांच्या पात्यांतले संरचनेत फरक दाखयतात. हाका विषमपर्णत्व म्हण्टात. पूण केन्नाकेन्नाय हवेंत वाडपी खोडाचेरय वेगवेगळ्या स्वरुपाचीं पानां दिसून येतात. कांय वेळार खोडावयलीं सुरवेक आयल्लीं पानां उपरांत आयिल्ल्या पानांपरस वेगळीं आसूं येतात (पणस).

**पानांचें खाशेलपण :** पानां जरी पाचवीचार आसलीं तरी अन्ननिर्मितीभायर हेर कार्यांचे नदरेन ताच्या रंगरुपांत फरक आसूं येता. पानांचे वेगवेगळे भाग प्रतानरूप जातात. प्रतान हें स्पर्शग्राही आनी सुतावरी उपांग आसता. उदक वा अन्नाचो सांठो केल्ल्यान पानां मासाळ जातात. कंदांतलीं शल्कपर्णां उदक साठोवपाक, कांय अपिवनस्पतीचीं पानां कचरो साठोवपाक वा उदक धरून दवरून तें सवकसायेन शोशण करून घेवपाक मदत करतात. उदकांत बुडून वाडपी कांय जलवनस्पतीचीं पानां प्रत्यक्ष उदक आनी लवणां शोशून घेतात. प्रकाशसंश्लेशण ही झाडांतली अन्ननिर्मितीची मोलादीक प्रक्रिया पाचवीं पानां सदांच करतात. हातूंत खोड, सपक्ष देंठ, वृंतपर्णां, उपपर्णां, छदमडलां आनी संदलां हांचोय म्हत्वाचो वांटो आसता. उपपर्णां, शल्कपर्णां हीं कोरकांक राखण दितात. पानां आनी उपपर्णां हीं हांच्या रुपांतरान तयार जाल्ले काटेय झाडाक राखण दितात. छदां आनी छदमंडलां कळयांची राखण करतात.

कांय वनस्पतीचीं पानां जमनीर तोडून उडयल्या उपरांत ताचेपसून नवीं झाडां तयार जातात. जायत्या फुलोऱ्यांचें आकर्षणाचें साधन छंदा वा छंदमंडला आसतात. हे आकर्शीत जाल्ले जीव परागण घडोवन हाडटात आनी नवी वनस्पत निर्माण करपाक आदार दितात.

झाडाच्या खुबशा कार्यांत पानांचो आदार जातात आसलो तरी मुखेलपणान अन्ननिर्मिती खातीर जावपी पानाचो उपेग चड म्हत्वाचो. कारण सगळेच प्राणी प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्षपणान अन्नाखातीर वनस्पतीचेर अवलंबून आसतात. खासा ती वनस्पतीय त्या अन्नाचेर वाडटा आनी आपलें जिवीतकार्य चलयता आनी मूळ, खोड, पानां, फळां आनी बीजां हातूंत साठयल्ल्या अन्नाचेरय प्राणिसृश्टी जगता.

मनशांक पानांचो उपेग जाता तो असो - अन्नाखातीर जायत्या पालेभाज्याचो वापर करतात. देखीक - मुळो, तांबडी-धवी भाजी, मेथी, पालक, आळूं, वाळची, कांद्यापात, तायखिळो, म्हसंग. रांदपाखातीर वापरांत येवपी मसाल्यांत तमालपत्र, कोथमीर, पानओंवो, पुदिना आदी पानां वासाखातीर वापरांत येतात. च्या ह्या पेयाखातीर त्या झाडाचीं तन्नीं पानां खुटून काडटात. वखदांतय जायत्या वनस्पतीचीं पानां वापरांत आसात. देखीक - अडुळसो, गंजन, किरायतें, घोसवेल, कडुलिंबू, नागवेल आदी. हाचेभायर धागे आनी दोरयांखातीर घायपात, अनस, मॅनिला केळ, हांचोय वापर जाता. मरवा, दवणो, सब्जा, पुदिना आदीचीं पानां वासाळ द्रव्यां खातीर जाल्यार पोरसांत सोबायेखातीर वेगवेगळे प्रकारचे नेचे (सोबेचीं झाडां), क्रोटॉन, ॲरेलिया, कॅलॅडियम, कोडियम, पाम, ड्रॅसीना, नागीन, डिफेनबेकिया, पॅनॅक्स हीं झाडां लायतात. आयणे (पंखे) सान्नी/झाडू, शेंदऱ्यो हाचेखातीर ल्हवो, शिंदी, माड, ताड, खाजूर आदीच्या

पानांचो सर्रास उपेग करतात. पळस, पणस, केळ आदी पानां पयलीं तेंपार सावन जेवपाक, दोणे आनी पत्रावळींखातीर वापरांत आसात. तंबाकुचीं पानां विडी, सिगार (धुम्रपान) हाचेखातीर उपेगी पडटात. कोकच्या पानांपसून कोकेन आनी भांगेच्या पानापसून मादक पेयां तयार करतात. जायत्या झाडांचो पालो जनावरांचो चारो म्हणून उपेगी पडटा.

हिंदूंच्या धर्मीक विधींनी पानांक खुबूच म्हत्व आसता. चवथीक गणपतीक घालपाक तशेंच श्रावणांतल्या आयताराक पत्री काडप जाता. हे पत्रेंत सगळ्या फुलझाडांच्या पानांचो आस्पाव जाता. बेल, आघाडो, आंबो, नागवल्ली, शमी, शेरवड, धवो चांफो, दर्भ, दुर्वा, रूई, माको, तुळस आदीचो उपेग धर्मीक विधींत वर्सानवर्स चलत आयला. भारतीय लोकांक जेवणाउपरांत पानवेलीच्या पानांचो विडो खावप पयलींसावन आवडटा. पानांकलागून झाडां सावळी दितात आनी तीं तापमान वाडूंक दिनात. दसऱ्या दिसा आपट्याची पानां भांगर म्हणून एकमेकांक दिवपाची चाल आसा. आंब्याच्या पानांचें तोरण दारांत लावप हिंदू संस्कृतींत आसा.

अस्तंत्या देशांत ऑलिव्हची पानां शांतता आनी आशा हांचे प्रतीक मानप जाता. तशेंच ओकचीं पानां शक्ती, विजय आनी भोवमानाचें प्रतीक म्हणून रोमन लोक आपल्या झुजाऱ्यांक त्या पानांनी भुशयताले. ग्रीक लोकांत जैतीवंत खेळगड्यांक आनी अमलदारांक लॉरेलच्या पानांचो हार दिवपाची चाल आशिल्ली.

– कों. वि. सं. मं.

## पानपट्टी (विडो) :

खावंच्या पानांचो विडो. खावंचीं पानां, चुनो, कात सुपारी, वेलची, जायपत्री, कस्तुरी, कापूर, कंकोळ, लवंग आदी घटकद्रव्यां विड्यांत वापरतात. भारतांत विडो खावपाची चाल दोन हजारवर्सां आदीं सावन चलत आयल्या. स्कंदपुराणांत हे वेलीक अमृतोद्‌भव म्हळां. आयुर्वेदाच्या चरक संहिता, सुश्रुत संहिता आदी ग्रंथांनी विड्याचे गूणधर्म सांगल्यात. पूण विड्याची चाल गुप्तकाळांत (३२१-५५०) जावा, सुमात्रा आनी आग्नेयेकडल्या जुंव्यांतल्यान भारतांत आयली अशें जाणकारांचें मत आसा. तांबूल हें पानपट्टीसदृश्य उत्तर ऑस्ट्रो-आशियाई भाशाचोम्यांतलें मानतात आशिल्ल्यान ह्या मताक आदार मेळटा. पूण वात्स्यायनाच्या कामसूत्र, वराहमिहिराची बृहतसंहिता आदी पोरण्या साहित्यांत विड्याविशीं जो उल्लेख आयला ताचे वयल्यान विडो खावपाची चाल खास करून भारतीयूच अशें दिसता. तांबूल आनी तांबूलद्रव्यां हांचेर संशोधन करपी डॉ. प. कृ. गोडे हाणेंय सादारणपणान असोच निश्कर्श काडला. भारतावरीच सुमात्रा, जावा, मलाया, मालदीप, निकोबार, दक्षिण अरबस्तान आदी वाठारांनीय पुर्विल्ल्या काळासावन विडो खावपाची चाल दिसता. अस्तंत्या देशांनी चड करून युरोप अमेरिकेक ही चाल दिसना.

विडो हो कांय प्रमाणांत तिखट, कोडू, उश्ण, गोड, खारट, तोरट, वातकफहारक, दुर्गंधीनाशक, उद्दीपक, सुगंधी, तोंडाक सोबाय हाडपी तशेंच रूच वाडोवपी असो आसा. विड्याक रसीकतायेचें आनी मंगलतायेचें प्रतीक मानतात. देखुनूच लग्ना सारक्या सुवाळ्यां वेळार पानसुपारी दिवपाची चाल आसा. सन्मान वा येवकार दिता आसतना तशेंच निरोप दिवपाच्या वेळारूय विडो दिवपाची चाल आसा. कसलेंय कठीण काम करून दाखोवपाचो निश्चय करतना विडो उखलपाची चाल इतिहासांत दिश्टी पडटा. पितरांक दिवपाच्या पिंडाक अक्षता, गंध फुलां हांचेवांगडा पानाचो विडो दिवप म्हळ्यार धर्मीक नदरेन म्हत्वाचें मानतात. आठ भोगांनी विड्याचो आस्पाव जाता. आदल्या तेंपार राजा-महाराजां कडल्यान विडो मेळप भोवमानाचें समजताले. तेचपरी राजा, राज्यधिकारी, गुरू आनी हेर भौमानेस्तांक भोवमानान विडो दिवपाची चाल आशिल्ली. पुजोपचारांत देवामुखार दोन खावंचीं पानां आनी तांचेर सुपारी दवरपाची चाल आसा. विडो हो कामोद्‌दीपक आनी मुखसौंदर्यवर्धक आशिल्ल्यान प्रणयराधनेंत ताका म्हत्व दिलां. भारतांतल्या कामशास्त्रीय ग्रंथांनी आनी काव्य नाटकांतल्या शृंगारवर्णनांत विड्याच्या प्रणयपोशक प्रभावाचो उल्लेख परत परत मेळटा.

विडो केन्ना खावप हाच्यो थरावीक वेळो आसात. फांतोडेर, जेवले उपरांत, स्त्री-समागमाच्या आदीं आनी शेवटाक तशेंच विद्वत सभेंत आनी राजसभेंत विडो खावपाची चाल आसा. न्हिदून उठ्‌ठकच जेवण आनी न्हाण जाले उपरांत तशेंच ओंकाऱ्या उपऱ्यांत पान खावप आरोग्याचे नदरेन हिताचें अशें सांगलां. स्मृतिप्रकाश ह्या धर्मीक ग्रंथांत यती, ब्रह्मचारी, विधवा हांकां विडो खावपाक मनाय केल्या. उपासाच्या दिसाय विडो खावपाक मनाय केल्या.

भारतांत वेगवेगळ्या वाठारांनी वेगवेगळ्या प्रकारांचीं विड्याचीं पानां मेळटात. रुचिकूय तीं वेगवेगळीं आसतात. वखदी गुणधर्माचे नदरेनूच तांचेमदीं वेगळेपण आसा. वाठार, वास आदींवयल्यान तांचे गुणधर्म दाखोवपी नांवावयल्यान कांय विड्यांची नामना आसा. देखीक - बंगाली, रामटेकी, बनारसी, जगन्नाथी, सांची, मद्रासी आदी. विड्याच्या पानांत चुनो, तंबाकू सारक्या भलायकेक हानीकारक अशा पदार्थांचो वापर जाता आशिल्ल्यान विड्याचें चड प्रमाणांत खावप हानीकारक आसा.

गोंयांत पान खावपाची प्रथा उत्तरेकडच्या वाठारांचे तुळेन चड प्रमाणांत ना. पूण कश्टकरी वर्गांत बायल आनी दादले दोगांय मदीं पान खावप सर्रास चलता.ह्या लोकांचे किरवंटीक पानाच्या सामानाचो बोटवो सदांच खोयिल्लो आसता. कामावयल्यान उसंत मेळनाफुडें उत्तेजक वा आळसाय घालोवपाचे साधन म्हणून पान खावपाची चाल ह्या लोकांमदीं दिसता. ह्या लोकांभायर सर्वसादरण गोंयकार सुवाळ्यां वेळार वा मेजवानी वेळार, एक मुख शुद्धीचो प्रकार म्हणून पान खाल्लें दिश्टी पडटा. लग्न मुजीसारक्या धर्मीक कार्यावळींनी आनी पुजा-व्रतावेळार देवामुखार पानांचो विडो (पान आनी सुपारी) दवरपाची चाल आसा. गोंयांत कुळागरांनी पानवेली रोयतात आसल्यो तरी तांचें उत्पादन उणें आशिल्ल्यान सद्या खावंच्या पानांची आयात गोंयाभायरसून जाता.

– कों. वि. सं. मं.

## पानवेल :

(मराठी : नागवेली, नागवल्ली; मराठी, हिंदी, गुजराती : पान; कन्नड : यल्लीबल्ळी; संस्कृत : नागवल्ली, तांबूली; इंग्लीश : बीटल वायन, बिटल पॅपर; लॅटीन : पायपर बीटल; कूळ : पायपरेसी):

ही जायतीं वर्सां जगपी नाजूक वाल. पानां मध्यम आकाराचीं, सादीं ५-२० सेंमी. लांब, २-२.५ सेंमी. लांब देंठाचीं वयर रूंद, सकयल अशीर. पंगरो, म्हशींग ह्या सारक्या झाडांच्या आदारान ही वाल चडटा.

हे वालीचो उगम मलेशिया देशांत जालो. भारतांत खूब पुर्विल्लया काळासावन हे वालीची लागवड करतात. महाभारत तशेंच हेर धर्मीक

ग्रंथांनी पानवालीचो उल्लेख आसा. खंयच्याय धर्मीक कार्यांत पान-सुपारी (विडो) दवरपाची प्रथा आसा. बांगलादेश, श्रीलंका, पाकिस्तान ह्या देशांनी पानवेलीची लागवड व्हड प्रमाणांत करतात. भारतांत सुमार ३०,००० हॅक्टर सुवातीर ह्या पिकाची लागवड करतात. ओरिसा, अस्तंत बंगाल, उत्तर प्रदेश, महाराष्ट्र, मध्यप्रदेश, आंध्र प्रदेश, कर्नाटक, तमीळनाडू, केरळ ह्या राज्यांनी पानवेलीचें पीक घेतात. गोंयांत ह्या पिकाची लागवड वेपारी तत्त्वाचेर व्हडलीशी केल्ली दिसना. पूण पोरसांनी, भाटांनी तशेंच कुळागरांनी पानवेली लायिल्ल्यो दिसतात.

पानवेलीचे मुखेल दोन प्रकार आसात- धव्या पानांची आनी काळ्या पानांची. भारतांत पानवालीच्यो १०० परस चड जाती आसात. तातूंतल्यो कांय म्हत्वाच्यो अशो - कपुरी, काळीपत्ती, रामटेक, बंगला, शंकरी, मधई, मिठापान, पोहबी आनी बनारसी. हालूंतली कपुरी ही जात सगळ्यांत बरें उत्पन्न दिता. जाल्यार मधई, मिठापान, मोहबा, आनी बनारसी ह्या जातींची विशिश्ट रुचीखातीर नामना आसा.

पानवेलीचे लागवडीक थंड सावळेची गरज आसता. तशेंच सुपीक आनी बरें उदक व्हांवून वचपी जमीन लागता. ह्या पिकाक खारट जमीन मानवना. पानवेल एक फावट लायली की १२-१५ वर्सां बरें उत्पन्न दिता.



पानवेली खातीर जमीन तयार करतना सुर्वेक दोन फावटीं उबी-आडवी नांगरतात, उपरांत शेणखत घालतात. पानवेलीक वयर चडपाक आदारी झाडाची गरज आशिल्ल्यान म्हशींग वा पंगऱ्याची लागवड करतात. तेभायर माडी, आंबो, पणस ह्या झाडांरूय पानवेल चडयतात. पानवेलीची लागवड कलमापसून करतात. वेगवेगळ्या राज्यांनी वेगवेगळ्या तेंपार पानवेलीची लागवड करतात. पूण चडशा राज्यांनी जून म्हयन्यांतूच लागवड करपाखातीर पानवेलीचे ३०-४५ सेंमी. लांबायेचे तेंगशेवयले फांटे वापरतात.

पानवेल लावपाखातीर ३ मीटर लांब आनी १.५ मीटर रूंद अशे गादीवाफे तयार करतात. ह्या वाफ्यांचेर ३०x३० सेंमी. अंतराचेर पानवेल लावंचे एक वर्स पयलीं म्हशींग वा पंगऱ्याची लागवड करतात. दुसऱ्या वर्सा ह्या झाडामुळांत पानवेल लावन ती त्या झाडाच्या आदारान वयर चडयतात. वेळावेळार नडणी काडून बाग निवळ दवरतात. शिंया तेंपार ४-५ दिसांनी आनी गिमा तेंपार ३-५ दिसांनी पानवेलीक उदक दितात. वेल जशी जशी वयर चडटा तशी तशी ती आदाराच्या झाडाक बांदतात.

पानवेलीक सहसा रसायनीक सारें वापरिनात. भरपूर प्रमाणांत शेणखताचो वापर करतात. वर्साक एका हॅक्टराक ५० टन शेणखत जाल्यार १ टन निमकेक हें सेंद्रीय सारें दितात.

पानां हेंच पानवेलीचें मुखेल उत्पन्न. रोयले उपरांत एका वर्सा मेरेन पानवेलीचीं पानां काडिनात. सुरवातीच्या तेंपार पानवेलीचें उत्पन्न उणें आसता. ३-४ वर्सांच्या एका हॅक्टराच्या पानमळ्यापसून वर्साक ५० ते ७५ लाख पानां मेळटात. आनी ताचेपसून सुमार ४०-५० हजार रुपयांचें उत्पन्न मेळटा. पानवेलीचें आयुश्य ६-१० वर्सां आसता.

हिंदू धर्मांत खंयच्याय धर्मीक तशेंच शुभ कार्यांत पान आनी सुपारेचो विडो दवरतात. पानाचो उपेग मुखेल करून खावपाखातीर करतात. पानापसून पानपट्टी तयार करतात. पानपट्टी तयार करपाक पानाबरोबर चुनो, चुरो (तंबाकू) सुपारी, बडीशेप, लवंग, वेलची, जायफळ ह्या सारक्या वस्तूंचो उपेग करतात. जेवणाउपरांत पानपट्टी खावपाची प्रथा बरेचकडेन आसा. पानपट्टी जावं पान खातना लाळ भरपूर तयार जाता. ताका लागून जेवणाचें पचन बरें जाता. पानांत 'ब' आनी 'क' हीं जीवनसत्वां भरपूर आसतात. मेंदू, काळीज, फिग्द ह्या इंद्रियांक पान हें पुश्टीक आनी बलवर्धक. पानांत क्लोरोफील आशिल्ल्यान दांत बळकट जातात.पानांतल्या तेलाचो उपेग आयुर्वेदीक वखदांनी करतात.

पानवेलीक जायत्या रोगांपसून त्रास जाता. तातूंतलो 'मर' हो एक म्हत्वाचो रोग. ह्या रोगाची लागण जाल्यार वालीचो मुळाकडलो भाग कुसता. वाल हळदुवी जाता, सुकता आनी मरता. ह्या रोगाची लागण जाल्यार वेलीचेर एक टक्के 'बोर्डो मिश्रण' ह्या वखदाचो फवारो मारतात. उदक बरे तरेन व्हांवून वता ते (बरो निचरो आशिल्ले) जमनींत ह्या रोगाचें प्रमाण उणें आसता. हाचेभायर 'पानकुज', 'भुरी' 'पानावयले थिपके' ह्या रोगांची लागण पानवेलीक जावं येता.

'भिकूण' (Betelvine bug) हे किडीपसून पानवेलीक लुकसाण जाता. हे किडीची लागण जाल्यार मोनोक्रोटोफॉस हें वखद २० मिली. १० लिटर उदकांत घालून फवारो मारतात. तेभायर 'पिठ्याभिकूण' हे किडीची लागण जावं येता. हे किडीआड १ टक्के बासुदीन ह्या वखदाचो फवारो मारतात.

– विश्राम गांवकार

पूरक नोंद : पानपट्टी.

**पाप :** (पळेयात पातक).

**पापड :** खाणाचो एक पदार्थ. वाटकुळ्या आकाराचो पातळ लाटून सुकयल्लो हो पदार्थ भाजून वा तळून जेवतना तोंणाक लायतात. पापडाच्यो विंगड विंगड तरा आसात. पापड ज्या जिन्नसापसून तयार करतात त्या जिन्नसावयल्यान नांव, रूच आनी करपाची पद्दत बदलता. मिरसांगो घालून (तारवटी, सुक्यो) केल्ले मिरसांगां पापड, लसूण घालून केल्ले लसणीपापड, मिरयां घालून केल्ले मिरयांपापड अशे तिखट पापडाचे प्रकार आसात. त्या भयर पणसाचे गरे घालून केल्ले पणसापापड, निरपणस घालून केल्ले निरपणसापापड, बटाट घालून केल्ले बटाटापापड अशे गोडशे पापड करतात. सुक्या सुंगटांचो पीठो घालून सुक्या सुंगटांचे पापड हो

एक पापडाचो नवो प्रकार आतां मुखार आयला.

सगळ्या तरांच्या पापडाच्या प्रकारांत उड्डांच्या दाळीचें पीठ, हींग, पापडखार, मिरसांगो, मीठ हे घटक आसतात. पापड करपाक लागपी सगळे घटक एकठांय कालोवन पापडाची पीठी बरी धाडायतात. हे धाडायल्ले पीठयेच्यो ल्हान ल्हान गुळयो करून तांकां तेलोचो लेप लायतात आनी ह्यो गुळयो लाटफळ्यार लाटून तांचे पापड करतात. लाटिल्ले पापड वतांत बरे सुकोवन काडटात. अशे सुकिल्ले पापड बरोच तेंप वापरूंक मेळटात.

जेवणांत आनी चड करून शिवराक जेवणांत पापड हो पदार्थ मुखेलपणान लोणच्यावांगडा आसता. च्या वांगडा बिस्कुत्यो वा तत्सम खाणाप्रमाण गोडशे पापड खावप जातात. पापडांचो स्नॅक्स म्हणूनूय उपेग करतात.

दांगर हो पापडाचो आनीक एक प्रकार. डांगरखातीर उडीद, चणे, मूग हांची दाळ वापरप जाता. बाकीचे घटक पापडासारकेच आसतात. करपाचीय पद्धत तशीच आसता. मात पापडापरस डांगर आकारान ल्हान आनी जाडायेन दाट आसतात. तांचो उपेग पापडासारकोच जाता.

आदल्या तेपार पापड घरच्याघरा करप जातालें. आतां पापड तयार करपी कारखाने आसात. तांचेवरवीं तयार पापडांची पुरवण जाता. तशेंच भारताभायर निर्यातूय जाता.

- सुधा आमोणकर

**पापडखार :** सुत्रः $NaHco_3$ एक प्रकारचें क्षार. इंग्लीश भाशेंत हाका 'बेकींग सोडा' म्हण्टात. पापडखाराच्या एका रेणूंत सोडियमाचो एक, हायड्रोजनाचो एक, कार्बनाचो एक आनी ऑक्सीजनाचे तीन अणू आसतात. पापडखार पापड, भजीं, पोळे आनी हेर फूग येवपासारक्या पदार्थांनी वापरतात. मडवळखार तयार करता आसतना ताचो पयलीं पापडखार तयार जाता. पापडखार तापयलो जाल्यार ताचो मडवळखार जाता.

पापडखार तयार करपाक मडवळखार वापरतात. हे प्रक्रियेंत मडवळखार उदकांत विरयतात आनी तातूंत कार्बन डायऑक्सायड ($CO_2$) हो वायू सोडटात. पापडखाराचे स्फटीक धवे आसतात. ते उदकांत उण्या प्रमाणांत विरतात. सैमांत धर्तरेपोंदा माडवळखार उदका वांगडा मेळटा.

**पापडखाराचो उपेग :** १) तेलींग पावडर तयार करपाक - बेकींग पावडर हो पापडखार आनी पॉटेशियम हायड्रोजन टारटारेट हांची भरसण आसा. ही पावडर गरम केले उपरांत प्रक्रिया जावन कार्बन डायऑक्सायड वायू तयार जाता. हाका लागून बेकींग पावडर घाल्ल्या खावपाच्या जिनसांचो आकार मोटो जाता आनी तो जिन्नस फुसफुशीत जाता.

२) पापडखाराचो दुसरो उपेग पोटांतली ॲसिडीटी ना करपाखातीर जाता. कांय खेपे ॲसिडीटीक लागून पोटांत जळपाची पिडा जाता. पापडखार हो आल्कली (क्षार) जाल्ल्यान ती ॲसिडीटी निवळटा.

३) उजो पालोवपासारक्या माक्नांनी पापडखाराचो वापर करतात. ह्या माक्नान पापडखार आनी ॲसीड आसता. दोनूय रसायनां एकामेकांत भरसलीं म्हण्टकच कार्बन डायऑस्कायड वायू तयार जाता. हो वायू उजो पालोवपाक मदत करता. प्रयोगशाळेंत पापडखाराचो व्हड प्रमाणांत वापर करतात.

- सदानंद गो. फडते

**पायथॅगॉरस :** (क्रिस्ता आदीं सुमार ५७०-५०० मजगतीं) नामनेचो तत्त्वगिन्यानी आनी गणिती. ताचो जल्म ग्रीस देशांतल्या सामोस ह्या जुंव्याचेर जालो.गौतम बुद्ध, कनफ्युशियस आनी लाओ त्से (Lao-Tse) हांचो तो समकालीन आशिल्लो. पायथॅगॉरसान इजिप्त, बाबीलोन (आनी घडये हिंदूस्थानाची) भोंवडी केली. हे भोंवडेंत ताणें गणित आनी खगोलशास्त्र हे विशींची म्हायती मेळयली. ह्याच काळांत परंपरीक, लोकप्रिय आनी कांय प्रसंगां घडणुकांचेर आदारिल्लयो धर्मीक काणयो आनी गितासंबंदानय ताच्या मनांत आवड निर्माण जाली. दरेका मनशाभितर एक आत्मो आसता आनी जेन्ना मनीस मरता तेन्ना हो आत्मो दुसरे कुडींत वता ह्या विचाराचेर ताची श्रद्धा आशिल्ली. हेच खातीर जण एका मनशान आपले भितल्ल्या ह्या अविनाशी आत्म्याची जतनाय करीत आपली जीण सारची, अशी शिकवण तो दितालो. तो शिवराकूच आहार घेतालो.

गिन्यानाच्या वेगवेगळ्या फांट्यांसंबंदान ताका आवड आशिल्ली. तातूंत ताणें गिन्यानूय मेळयल्लें. लोक ताका तत्त्वगिन्यानी, खगोलशास्त्राचो जाणकार, गणिती, संत, प्रेषित, अचर्यां करपी, फितीस करपी अशा तरेकतरेच्या रुपांनी वळखताले. तेचपरी ताच्या धंद्याक लागून कांय लोक ताका वैदू (Quack) आनी तोतयो (imposter) म्हणूनूय वळखताले.

क्रिस्तादादीं ५३० वर्सांच्या सुमाराक तो क्रोटनाक रावपाक गेल्लो. थंय ताका जायते शिश्य मेळ्ळे. थंयच्या राजकीय वातावरणाचोय ताचेर बरोच प्रभाव पडिल्लो दिसता. तत्त्वगिन्यान (ज्ञानाचो मोग) आनी गणित (जें शिकचें आसता तें ) हीं दोन उतरांय पायथॅगॉरसान घडयलीं अशें समजतात. काटकोनी त्रिकोनाचे कर्णरेशेचो (Hypotenuse) वर्ग (Square) हो ताच्या हेर दोन कुशींच्या वर्गांचे बेरजेइतलो आसता ह्या भूमितींतल्या नामनेच्या सिद्धान्ताचें श्रेय पायथॅगॉरसाकच दितात.

पायथॅगॉरसाच्या काळांतलीं कागदपत्रां शेणिल्लीं आशिल्ल्यान ताच्या व्यक्तिमत्वाचें चित्र व्हडलेंशें काडूंक मेळना. ताणें स्थापन केल्लो पंथ हो पंथीय आनी गुपीत स्वरुपाचो आशिल्लो. ताका लागून त्या पंथाच्या कोणा एकल्याच मनशाक नव्या सोदाचें श्रेय मेळनासलें. हे खातीर कितल्याशाच नव्या सोदांचें आनी गिन्यानांत घाल्ले भरीचें श्रेय जरी पायथॅगॉरसाच्या शिश्यांक मेळटालें तरी मागीर पायथॅगॉरस हो तांचो मुखेल आशिल्ल्या कारणान परंपरेप्रमाण काळाच्या ओगांत हें सगळें श्रेय पायथॅगॉरसाक मेळपाक लागलें. ह्याच कारणाक लागून एकल्या पायथॅगॉरसान लायिल्लो सोद आनी ताच्या पंथाच्या अनुयायांनी लायिल्लो सोद वेगळे करून दाखोवप कठीण आसा.

पायथॅगॉरसान वेगवेगळ्या विशयांच्या गिन्यानांत भर घालून जायतो वावर केलो. हो वावर असोः १) गणितः ज्या दोन वर्ग अंकांची बेरीज हीय एक वर्ग अंक आसता अशा दोन वर्ग अंकांचो सोद पायथॅगॉरसान लायलो ie. जर M हो एक विशम अंक आसत जाल्यार $m^2 + \{1/2 (m^2-1)\}^2 = \{1/2 m^2 + 1)\}^2$. भूमितींतल्या काटकोनी त्रिकोना संबंदींच्या नामनेच्या अशा पायथॅगॉरस सिद्धांताकडेन हे कल्पनेचो प्रत्यक्ष संबंद आसा. ताणें $\sqrt{२}$ च्या अपरिमेयतेचो ( Irrationality) सोद लायिल्लो. तेचप्रमाण $\sqrt{२}$ च्या चडांत चड लागीं वचपी परिमेय अंकाचो सोद लावपाची पद्दतूय ताणें सोदून काडली. ताका गणिती सरासरी (Arithmetic Mean), भूमिती सरासरी (Geometrical Mean), आनी हरात्मक माध्य (Harmonic Mean) हांचे संबंदान म्हायती आशिल्ली.

२) खगोलशास्त्र : पृथ्वी हो एक व्हडलो गोल (Sphere) आसा आनी सगळे ग्रह आनी सूर्य हो आकारान गोलीय (Spherical) स्वरुपाचे आसात अशें मत पायथॅगॉरस मांडटालो.

३) संगीत : दरेक ग्रह आपलें खासा स्वरुपाचें स्वरमेलतत्व (Harmony) उक्तायता आनी ग्रहांच्या ह्या संगिताचो खरो अर्थ उक्तावपी सोद हो विश्वाच्या गुपिताचें स्वरूप परगटायतालो अशी ताची श्रद्धा आशिल्ली.

४) तत्त्वगिन्यान : ह्या मळार ताणें विरुद्ध स्वरुपाच्या संकल्पनांचें रूप मांडपी उतरां घडयलीं. देखीक : मर्यादीत - अमर्यादीत ; सम - विशम; उजवो - दावो; उजवाड - काळोख; चौकोनी - आयताकृती; नर - मादी; स्थिती - गती; सरळ - वांकडो ; बरें- वायट.

तत्त्वगिन्यानांतलो नैतिकवाद - द्वैतवाद ताका मान्य आशिल्लो.

- श्रीकृष्ण उपेंद्रराव कामत

**पारजत :** (मराठी : पारिजातक; हिंदी : हरसिंघर; गुजराती : जयपार्वती; हरसिंग, पारिजात; संस्कृत : प्राजक्त, पारिजातक, खरपत्रक; इंग्लीश : नायट जॅस्मिन; लॅटीन : निक्टॅंथस; आर्बर - ट्रिस्टिस; कूळ : ओलिएसी).

उंचाय सुमार १० मी. मेरेन . ह्या झाडाचें मूळस्थान भारत आसून उपहिमालयाचे प्रदेश, छोटा नागपूर, राजस्थान, मध्यप्रदेशांत आनी दक्षिणेक गोदावरी मेरेन पातळ्ळां. खानदेश सातपुड्यांतल्या रानांतूय हें झाड दिश्टी पडटा. वासाळ आणि नाजूक फुलांखातीर हें झाड पोरसांनी लायतात.

ह्या झाडाचीं पानां एकामेकां सामकार, तांतया आकाराचीं, कांय प्रमाणांत दांतेरी, वयर खरखरीत आनी सकयले वटेन लवदार आसतात. एप्रिल-मे म्हयन्यांत हीं पानां गळटात. ऑगस्ट ते डिसेंबर म्हयन्यांमदीं ल्हान आनी धवीं घोंसांनी फुलां येतात. फुलांच्यो पाकळ्यो मेकळ्यो आनी धव्यो आसतात. ताका पोंदच्यान नळयेवरी केंसरी रंगाचो देंठ आसता. फुलां तिनसांजेचीं फुलतात आनी दुसऱ्या दिसा जमनीर पडटात. फळ वाटकुळें पूण सपाट आनी चेपिल्लेभाशेन आसता. नव्या झाडाची लागवड बियांपसून, रोंप करून, कलमांनी वा झाडाच्यो खांदयो लावन जाता. फुलांच्या केंसरी देठांत ०.१% निक्टॅंथीन हें रंगीत द्रव्य आसता. आदल्या काळांत रेशीम रंगोवपाखातीर ह्या द्रव्याचो वापर करताले. फुलांनी डी-मॅनीटॉल, टॅनीन आनी ग्लुकोझ आसता. बियांपसून १२.१६% फिकट हळदुवें वासाचें तेल मेळटा. पानांनी कॅरोटीन आनी ॲस्कॉर्बिक आम्ल आसता. लाकडाचो उपेग घराच्या पाख्याखातीर करतात. झाडाची साल कातडी कमोवपाक आनी पानां लाकडाक तशेंच हस्तीदंताक चकचकसाण हाडपाक वापरतात. पानां पित्त, कफ, जोर, संधिवात हांचेर गुणकारी थारतात.

पारजताक 'भुरी' हो एकच रोग लागता. ह्या रोगाचो प्रसार हवेंतल्यान जाता. हो रोग लागतकच पानांचे वयलेवटेन गोबराभाशेन धवो चितो दिश्टी पडटा. तेखातीर पानां गळटात. झाडाचेर गंधकाची पूड फाफुडल्यार रोगाक आळो बसता.

पांच सर्गांतल्या रुखांमदीं पारजाताचो आस्पाव जाता. देव - दानवांनी केल्ल्या समुद्रमंथनांतल्यान मेळिल्ल्या चवदा रत्नांतलो एक. थंयसावन उपरांत तो सर्गांत व्हेलो. कृष्णान आपली बायल सत्यभामा हिचो हट्ट पूर्ण करपाखातीर सर्गातंल्यान हो रूख द्वारकेंत हाडलो आनी तिच्या म्हालामुखार लायलो अशी कथा आसा. (विष्णु पुराण) वेगवेगळ्या देवांचे पुजाविधींत पारजताचीं फुलां आनी पानां पवित्र सांगल्यांत. लग्नावेळावयल्या मंगलाश्टकांनी पारजताचो उल्लेख आयला. महाभारतांतूय ताचो उल्लेख आयला.

- कों. वि. सं. मं.

**पारधी :** महाराष्ट्रांतली एक आदिवासी जमात. पारधी हें उतर 'पारध' म्हळ्यार शिकार ह्या उतरावयल्यान आयलां. ह्या लोकांची चड वस्ती खानदेशांत आसा. तशेंच कच्छ, मध्य प्रदेश, नासिक (महाराष्ट्र) सोलापूर आनी विजापूर ह्या जिल्ह्यांनीय आसा. प्रदेशाप्रमाण ह्या लोकांक विंगडविंगड नांवां आसात. ह्या जमातीचे 'गांव पारधी' आनी 'फासे पारधी' अशे दोन मुखेल पोटभेद आसात.

दक्षिण महाराष्ट्रांत तांकां 'फासे पारधी' म्हण्टात, विजापूर जिल्ह्यांत 'अटवीसंचार' म्हण्टात. फासो म्हळ्यार सांपळो. सांपळ्याच्या आदारान जे शिकार करतात ते फासे पारधी. अटवीसंचार म्हळ्यार रानांत भोंवपी. वाघरी घेवन सोंशे धरतात ते वाघरी पारधी. दांत्याक टाकी घालतात ते टकारी वा टाकणकार. धारवाडांत 'चित्तेवाले पारधी' ह्या नांवाचे लोक आसात. बैल धरप्यांक 'बहेलिया' म्हण्टात. तेभायर मीर, कोसपर, वाघरी, मेवारी, पालपारधी, राजपारधी, कोरचर, भिल्लपारधी, लंगोटीपारधी, गायपारधी, हरणपारधी अशोय कांय जाती आसात.

पारधी लोक स्वताक राजपूत समजतात. तांचें मूळस्थान खबर ना. पूण ते पयलीं उत्तरेकडल्यान गुजरातांत आयले आनी उपरांत महाराष्ट्रांत आयले अशें विद्वानांचें मत आसा.

कांय पारधी लोक गुजराती भास उलयतात, कांय जाण मराठी, कन्नड आनी अहिराणी उलयतात. गुन्यांव करपाच्या वेव्हारांत ते खास संकेतीक भास वापरतात.

पारधी लोक केंस कापिनात वा वळयनात. ते बाळीं, कडीं आनी सरपळ्यो घालतात. माथ्याक एक कपडो गुठलायतात. भेंडाक ल्हानसो वालो वा लंगोट न्हेसतात. दादलो-बायल दोगांय गळ्यांत तरातरांच्या रंगांच्यो माळो घालतात. बायलो पोलको-पातळ वा घागरो न्हेसतात. त्यो हातांत कथील वा पितूळचीं कांकणां घालतात; कानांत बाळी आनी सरपळ्यो घालतात.

पारधी लोक कपड्याचीं वा तणाचीं घरां उबारतात. ताका 'पाल' म्हण्टात. पांच - पंचवीस पालांच्या चोम्याक 'पारधवाडो' म्हण्टात. बायलो गांवांत भीक मागून अन्न हाडटात आनी वांटणी करून खातात.

चडशे पारधी लोक हिंदू. पूण कांय मुसलमानूय आसात. मरीआई मांढरदेवी, भवानी, जरीमारी, खंडोबा, लक्ष्मी, दुर्गा, सप्तश्रृंगी हीं तांचीं दैवतां. तांच्यो जात्रा जातात. धामीची पिडा आयल्यार देवीचो कोप जालो अशें ते मानतात. देवतेक बळी दितात. रगताचो अभिशेक घालतात. मुसलमान अवलिया वा बैरागी हांकांय ते भजतात. दसरो आनी शिगमो हे तांचे मुखेल उत्सव. अराई झुडपाचे कांटे, बोरीच्या झाडाचे कांटे, शमीचीं पनां, आंब्याचें झाड, जांबळ, उंबर हीं तांचीं देवकां आसात.

पोटजातींमदीं तशेंच एकाच देवकांत लग्नां करिनात. कच्छ वाठार सोडल्यार हेर प्रांतांतल्या पारध्यांमदीं आतेभयण, मावसभयण, मामेभयण

हांचेवांगडा लग्नां जातात. चलो-चली पिरायेंत येतकच लग्न करतात. कोणाय न्हवऱ्याक व्हंकलेचें मोल दिवपाक जमना जाल्यार ताणें आपल्या मांवाम्हऱ्यांत काम करचें असो रिवाज आसा. लग्नांतल्यो चाली-रिती हिंदूंभाशेनूच आसात. न्हवऱ्या-व्हंकलेन तांड्याभोंवतणीं सात भोंवाडे घालतकच लोकांनी तांचेर अक्षता उडोवप हो लग्नांतलो मुखेल विधी आसता.

तांचेमदीं एकापरस चड बायलो करपाची चाल आसा. विधवा बायल आपल्या मामेभाव वा मावशेभाव सोडून आतेभाव वा धाकल्या देराकडेन लग्न जावंक शकता. विधवाविवाह कृष्णपक्षांत करतात.

फासे पारध्यांमदीं ल्हान पिरायेरूच लग्न करतात. लग्नाच्या वेळार हाडां आनी पानां हांचें तोरण बांदतात. लग्नांत देवक बसयतकूच न्हवरो -व्हंकल ताका प्रदक्षिणा घालतात. उपरांत त्या दोगांयच्या वस्त्रांक सात-सात गांठी मारून तांचेर अक्षता उडयतात.

दुसरे जमातीवांगडा रोटीबेटी वेव्हार केल्यार त्या कुटुंबाचेर बहिश्कार घालतात.

घटस्फोट दोगांयकूय घेवपाक मेळटा. हे जातींत पंचायत नाशिल्ल्यान जातीचो मुखेलीच तांचेमदलीं झगडीं सोडयता.

हे लोक दक्षिणेकडेन तोंड करून मडें पुरतात. बाळंटेरा वेळार मेल्ल्या बायलांक आनी यात्रा करून आयिल्ल्यांक अग्नी दितात. कच्छ भागांत मडें पुरचेपयलीं ताच्या उजव्या आंखाण्याक अग्नी लांवन तो जाळटात. अस्थी उदकांत सोडटात. धाव्या दिसा पिंडदान करून ज्ञातीभोजन घालतात. पितृपक्षांत फासे पारध्यांमदीं तिसऱ्या दिसा दहनाचे वा पुरिल्ले सुवातेर थोडी काकय आनी तूप ओततात.

'नाचप' हो तांचो आवडीचो छंद. संवसार पाडवो, अक्षय तृतीया, नवरात्र, दिवाळी आनी होळी हेय उत्सव ते मनयतात.

दरवर्सा तांची एक झगड्यांची सभा भरता. तातूंत चार-पांचशें पालांतले लोक वांटो घेतात. सभेचो मुखेल चौधरी तांच्यो कागाळी आयकून घेवन न्याय दिता. व्यभिचारी बायलेक तापिल्ल्या तेलांतल्यान पयसो काडून आपणे गुन्यांव करूंक ना हें सिद्ध करपाक लायतात. व्यभिचारी दादल्याक टोळयेंतल्यान हद्दपार करतात.

शिकारेवांगडा पाथरवटाचें काम करप, झाडां-पाल्याचीं वखदां विकप, हमाली करप, राखण्याचीं कामां करप, भीक मागप, जासुदाचें काम करप असले उद्देग ते करतात. तेभायर ते चोरयोमारयो करपांतूय कुशळ आसतात.

– कों. वि. सं. मं.

**पारवो :** कोलंबिडी ह्या पक्षीकुळांतलें एक सुकणें. शास्त्रीय नांव कोलंबा लिव्हिया. भूंयमध्य दर्याच्या भोंवतणचे देश, ग्रेट ब्रिटन, आफ्रिका, पॅलेस्टायन, तुर्कस्थान, भारत, श्रीलंका आनी मियानमारांत (ब्रह्मदेशांत) हे सुकणें दिश्टी पडटा. भारतांत तें सगळ्या राज्यांनी आनी हिमालयांत ३,९६० मी. उंचायेमेरेनच्या वाठारांत दिश्टी पडटा. रानवटी पारवे फातराळ दोंगर आनी कडे आशिल्लया उकत्या वाठारांनी रावतात. मनशाळिल्ले पारवे मोडक्यो इमारती, बांयो, देवळां, पोरनी घरां अशा सुवातांनी रावतात.

हें सुकणें कावळ्यापरस ल्हान आसता. ताचें शरीर डौलदार आनी सुटसुटीत आसता. ताच्या सगळ्या आंगाचो रंग राखाडी निळो आसून मान आनी हड्ड्याच्या वयल्या भागाचेर पाचव्या, अंजेरी आनी किरमिजी रंगाची सया दिसता. पाखांचेर दोन आनी शेंपडेच्या तोंकाचेर एक अशे आडवे काळे पटे आसतात. दोळ्यांचो रंग नारिंगी, चोंच काळी आनी पांय तांबडे आसतात. नर आनी मादी एकेच भाशेन आसतात आनी तांचे ल्हान-व्हड थवे आसतात.

पारवे सगळ्या प्रकारचें धान्य खातात. तशेंच रानांत रावपी पारवे लागसारच्या शेतांत वचून धान्याचे दाणे खातात. चोंच चड घट नाशिल्ल्यान ते सबंद दाणे गिळटात. हें सुकणें गुटुर-गूं, गुटुर-गूं' असो आवाज काडटा. वत, वारें, पावस हांचेपसून सुरक्षित अशा जाग्यांनी कांय बडयो, कपड्याचे कुडके, पिसां, बी एकठांय करून मातसो खोल असो घोटेंर तयार करतात. गांवांनी रावपी पारवे घराच्या पाख्याचे खांचींत, वण्टीच्या बुराकांत घोंटेर बांदतात. मादी दर खेपे दोन धवीं तांतयां घालता. १५-२० दिसांनी तांतयां फुटून पिलां भायर सरतात.

– कों. वि. सं. मं.

**पारशी धर्म :** (जरथुश्ट्री धर्म) जगांतलो पुर्विल्लो आनी म्हत्वाचो धर्म. ह्या धर्माच्या संस्थापकाचें नांव जरथुश्त्र. ग्रीक भाशेंत ह्या धर्मसंस्थापकाचें नांव झोरोॲस्टर (झोरोआस्ट्रेस) ह्या रुपांत रूढ जालें आनी ताचेवयल्यान इंग्लीश भाशेंत ह्या धर्माची झोरोॲस्ट्रीयन रिलिजन ह्या नांवान संवसाराक वळख जाली. ह्या धर्माचो उदय इराणांत इ. स. पयलीं सातव्या शेंकड्या पसून जावन सुमार बाराशें-तेराशें वर्सां म्हळ्यार ससान घराण्याच्या अंतामेरेन ताची भरभारट जाली. ससान राजवटींत पारशी हो इराणाचो राश्ट्रधर्म आशिल्लो.

हे लोक पर्शिया म्हळ्यार इराण ह्या देशांतल्यान भारतांत आयले, म्हणून तांकां पारशी हें नांव मेळ्ळें. वैदिक आर्य आनी इराणी लोक हांची पुर्विल्लया काळांत एकठांय वसणूक आशिल्ली. ताणीं थंय नव्या साम्राज्याची स्थापणूक करून वेगळी संस्कृताय निर्माण केल्ली. तेच इराणी लोक पारशांचे पुर्वज आसुंये अशें एक मत आसा.

इ. स. च्या ७ व्या शेंकड्यांत इराणांत ससानी वंशाचें राज्य चालू आसतना अरबांनी तो देश जिखलो आनी थंय इस्लामी प्रभुत्व प्रस्थापीत केलें. त्या वेळार खुबशा पर्शियी लोकांनी इस्लाम धर्म आपणायलो. पूण कांय धर्मनिश्ठ पार्शियी लोक खोरासानच्या दोंगराळ प्रदेशांत पळून गेले आनी थंय ताणीं सुमार शंबर वर्सां आपल्या धर्माची राखण केली. पूण थंय लेगीत तांचेर इस्लामी धुरी पडटकच तांचेमदल्या कांय जाणांनी इराणी आखाताच्या लागसार आशिल्ल्या ओर्मुझ जुंव्याचेर स्थलांतर केलें. थंय लेगीत आपल्या धर्माचें रक्षण करप जमना जातकच ते भारताचे अस्तंत दर्यादेगेर आयले. पयलीं ते दीव जुंव्याचेर देंवले आनी थंय ताणीं १९ वर्सां काडलीं आनी उपरांत ते गुजरातांतल्या संजाण ह्या शारांत रावपाक लागले. आपली नवी वसणूक सुरू करून ताणीं थंय पयलें अग्निमंदिर बांदलें आनी यादीक एक अग्निस्तंभ उबारलो.

कांय काळाउपरांत, संजाणांतल्यान कांय पारशी लोक नवसारी, भडोच, अंकलेश्वर, वरिआब, खंबायत, सुरत, बिकानेर, ठाणें, चौल ह्या सुवातांनी वचून रावलो. सुर्वेक गुजरातांतूच कितलेशेच शेंकडे तांची वसणूक आशिल्ल्यान गुजराती हीच तांची आवयभास जाली.

उपरांत महंमूद बेगडा हाणें संजाणाचेर घुरी घाली तेन्ना पारशी लोकांनी संजाणाच्या राजाचे वटेन झुजांत जैत जोडलें. पूण तांचो मुखेली आर्देशीर (पयलो) ह्या सस्सानियन घराण्यांतल्या मनशाक हेर बऱ्याचशा सैनिकांवांगडा मरण आयलें. तेन्ना पारशी लोक थंयसावन पळून गेले. अकबर बादशाहाच्या वेळार पारशांचो मोगल दरबारांत प्रवेश जालो. अकबरान तांकां आश्रय दिलो, तांचे बरेचशे आचार-विचार आपणायले आनी तांकां जमनी इनाम म्हणून भेटयल्यो. ताका लागून पारशी लोकांनी विंगड-विंगड सुवातांनी वसणुको करून संस्कृतीक केंद्रांची लेगीत स्थापणूक केली.

जरथुष्ट्री धर्माची म्हायती चड करून अवेस्ता भाशेंत बरयल्या. पारशी लोकांच्या 'अवेस्ता' नांवाच्या धर्मग्रंथांत आनी ससान राजवटींत बरयल्ले पेहलवी भाशेंतल्या वाङ्मयांत मेळटा. हाचेभायर ग्रीसी इतिहासकार आनी भोंवडेकार हाणींय ह्या धर्माविशीं तांच्या लिखाणांत म्हायती दिल्या. सध्या उपलब्ध आशिल्लो 'अवेस्ता' ग्रंथ मूळ अवेस्ताच्या फकत एक तृतीयांश इतलोच आसा. ह्या ग्रंथाचो 'गाथा' ह्या नांवाचो जो भाग आसा तो ह्या ग्रंथांतलो सगळ्यांत पोरनो आसून जरथुश्त्राची शिकवण समजून घेवपाचे नदरेन खूब म्हत्वाचो. कारण गाथा ह्यो जरथुश्त्राच्या तोंडांतल्यो आसून त्यो मूळ रुपांत परंपरेन तिगोवन दवरल्यात अशें मानतात. तेखातीर गाथांक पारशी धर्मीक वाङ्मयांत खूब म्हत्व आसा. अवेस्ताचो गाथा सोडून जो हेर भाग आसा तो जरथुश्त्राच्या उपरांतचो इ. स. पयलीं पांचवो-तिसरो शेंकड्यांतलो जरथुश्त्राच्या अनुयायांनी बरयल्लो आसा.

पारशी लोक अहुर मझ्द हे एके शक्तिमान देवतेची उपासना करतात. अहुर मज्दान विश्वाची उत्पत्ती केली आनी तेन्नासावन ह्या जगांत एक सत् आनी असत् हांचें दीर्घकाळ मेरेन तिगून उरपी द्वंद्व सुरू जालें. हें द्वंद्व अहुर मज्द वा ताचो मुखेल सहाय्यक स्पँता मइन्यू आनी तांचो विरोधक अंग्रो-मइन्यू (पेहलवी अहरिमन) हांचे मदीं आशिल्लें. ह्या दोनूय तत्त्वांक 'यम' अशें म्हळां. ताचेवयल्यान तीं एकाच वेळार उत्पन्न जाल्यांत. विश्वांत जें किदें सात्विक, श्रीमत् आनी पुण्यशील आसा ताचें प्रतिनिधित्व स्पँता मइन्यू हें तत्त्व करता आनी जें किदें तामसी, अश्रीर आनी पापी आसा ताचें प्रतिनिधित्व अंग्रोमइन्यू हें तत्त्व करता. ह्या दोगांयच्या संघर्शांत जरथुश्त्रान मनशाचेर एक व्हड काम सोपयलां. ताच्या मतान मनशान सदांच जागरूक रावन ह्या दोन तत्त्वांतलो कोणाचो पक्ष वेंचचो हें थरोवंक जाय. होच जरथुश्त्राचे शिकवणेंतलो म्हत्वाचो भाग. बरे लोक स्पँता मइन्यूचो पक्ष घेतात आनी वायट लोक अंग्रो-मइन्यूचो पक्ष घेतात. अहुर मज्द आनी स्पँता मइन्यू ह्या दोगांयच्या झुजांत दैवी अंश जांचेभितर आसा अशे अतिमानवी साहाय्यकर्ते आसात. अहुर मज्दाच्या साहाय्यकर्त्यांक अमेश स्पँत म्हळ्यार अमर पुण्यात्मे (होली इंमॉर्टल्स) अशें नांव आसा. तांचीं नांवां अशीं आसात - वोहु मनह् (बरें मन), अश वहिश्त (सत्य) खृशथ्र वइर्य (प्रभुत्व) आर्मईति (भक्ति), हडर्वतात् (पूर्णताय) आनी 'अमेरेतात्' (अमृतत्त्व) अमेश स्पँतांतले पयले दोग जाण वोहु मनह् आनी अश वहिश्त हांकां अहुर मज्दाचे पूत मानल्यात. हे संख्येन स आशिल्ल्यान कांय विद्वानांनी तांचें वरुण, मित्र, अर्यमा, भग, अंश आनी दक्ष ह्या स वैदिक आदित्यांकडेन साम्य काल्पिलां.

परंपरागत चलत आयिल्ल्या देवतांआड तशेंच यज्ञ-यागांआड जरी जरथुश्त्रान बंड केलें. तरी ताच्या मरणाउपरांत रोखडेच हातूंतल्या कांय जाणांक परतून धर्मांत घेतले. हे विशीं एक अशें मत आसा, इराणाच्या विंगड विंगड प्रांतांचो एका पर्शियी साम्राज्यांत आस्पाव जालो आनी ताका लागून जरथुश्त्राच्या उपरांतच्या काळांत ताच्या एकेश्वर वादांत अनेकदेवतावाद घेवप जालो. जरथुश्त्री धर्मांत उपरांत आयिल्ल्यां भितर यझतांत (यज्ञार्ह शक्त), मिथ्र (मित्र) हओम (सोम), अर्द्वी सूरा अनाहिता (आपोदेवता), आतर् (अग्नी), वेरेथ्रघ्न (वृतघ्न) स्त्रओश, रश्नू हांचो आस्पाव जाता. तांचेखातीर सूक्तां रचिल्लीं आसात. अवेस्ताच्या 'यश्त' ह्या भागांत हीं सुक्तां आयल्यांत.

अहुर मज्दाक प्रत्यक्षांत पळोवन ताका प्रस्न विचारून गिन्यान मेळोवपाची जरथुश्त्राची तळमळ गाथांनी दिसता. सन्मार्ग वा ऋजू मार्गाचें गिन्यान अश (ऋत) आनी वहिश्त मइन्यू (वसिश्ठ मन्यू) हांचेकडल्यान घेवंचें अशें जरथुश्त्र म्हण्टा. जरथुश्त्राचे शिकवणेंत मनाच्या आनी शरिराच्या पवित्र्य रक्षणाक खूब म्हत्व आसा. ह्या पावित्र्य रक्षणाच्यो बारीक - सारीक सुचोवण्यो अवेस्ताच्या 'वेंदिदाद' ह्या भागांत आसात.

झरथुश्ट्री धर्मांत सर्ग आनी नरक अशे लोक आसात. मरतकच वायट-बऱ्या कर्मांप्रमाण जिवाक नरक आनी सर्ग फावो जाता. तेच भाशेन झरथुश्त्रान उर्वन (आत्मो) आनी फर्वसी (एक आत्मशक्त) अशीं दोन तत्त्वां मानल्यांत. शरिराकडल्यान जीं सत्कर्मां वा कुकर्मां घडटात ताचें बरें-वायट फळ उर्वनाक भोगचें पडटा. फर्वसी ही मनशाभितर आशिल्ली एक अद्भुत शक्त. हीच शक्त मनशाक बरें कर्म करपाक उर्बा दिता आनी वायट कर्मापसून पयस व्हरता. हे शक्तीक वायट-बऱ्या कर्मांचो लेप लागना आनी ते खातीर तिचो फळभोगाकडेनूय संबंद नासता.

सुविचार, सुवचन आनी सुकार्य ही पारशी धर्माची त्रिसूत्री. काया-वाचा-मन हांचेवरवीं फकत सत्याचेंच आचरण करप हाचेर झरथुश्त्रान चड भर दिला. झरथुष्ट्री धर्म हो वैदिक धर्माभाशेनूच गृहस्थाश्रमाची प्रतिश्ठा मानपी आनी विजिगीषू असो धर्म आसा. ह्या धर्मांत अग्निपुजेक चड म्हत्व आसा.

पारशी लोकांच्या धर्मीक आचारांत अदुर मज्द आनी यझत हांची पुजा करप, दीसपट्टें 'अवेस्ता' ह्या धर्मग्रंथाचें थोडेशें वाचन करप, पवित्र अग्निची राखण करप, अग्निमंदिरांतल्या अग्नीचेर दिसांतल्यान पांच खेपे चंदन घालप, पिरायेच्या बारा ते पंदरा वर्सांमेरेन कुश्ती बांदून नवजोत (मूज) सुवाळो करप ह्या गजालींचो आस्पाव जाता. ब्रह्मचर्याक पारशी धर्मांत सुवात ना. वैयक्तिक आचार-विचारांविशीं लेगीत पारशी धर्मांत ऋजुता, प्रामाणीकपण आनी सत्यनिश्ठा ह्या गुणांक चड म्हत्व आसा. एक समाजीक कर्तव्य म्हणून जांकां गरज आसा तांकांच दान दिवप, सोयऱ्यांचो भोवमान करप, आवय-बापूय, गुरू, शेजारी, आनी हेर देशभावांचो मान राखप, हांकां ह्या धर्मांत मानाची सुवात आसा. ह्या धर्मांतलो जिणेचो आदर्श अशे तरेन स्पश्ट आनी वास्तववादी आसा. ह्या धर्मान व्यक्ती आनी समाज हांचो पुराय विकास करपी धर्मीक जिणेचो खरपणान पुरस्कार केला. येशू आनी मुहंमद हांची ईश्वरभक्ती आनी बुद्धाचो अश्टांगिक मार्ग हांचो प्रकर्ष ह्या धर्मांत पयलीं पसून दिसता. पूण झरथुस्त्र आनी बुद्ध हांचे वृत्तींत एक म्हत्वाचो भेद आसा. बुद्धाचे शिकवणेंत त्याग, शांती हांचेर भर आसून झरथुश्त्राचें तत्त्वज्ञान झूज, कर्तव्य हांचेर उबारलां. जगांत भरिल्लें दुख्ख पळोवन बुद्धाक जिणेचो वीट आयलो आनी तातूंतल्यान सुटपाखातीर तो निर्वाणाचो मार्ग सोदूंक लागलो. पूण

जगांतल्या दूख्खाची जाणविकाय आसून लेगीत झरथुश्त्राचो आशावाद आनी विजिगीषू वृत्ती कायम उरली. ह्या धर्मांत निराशावादाक सुवात ना.

– खोजेस्ती मिस्त्री

**पारशी लोकजीण :** रामायण, महाभारत, पुराणां हांच्या संदर्भावयल्यान समजता ते प्रमाण पुर्विल्ल्या काळांतलेगीत इराणांतले बरेचशे लोक भारतांत येवन स्थायीक जाल्ले. सूर्यपुजक शाकद्वीपी ब्राह्मण हे तातूंतलेच आशिल्ले. पूण ते सगळे लोक भारतीय संस्कृतायेंत भरसून हिंदू जाले. भारतांत ब्रिटीश सत्ता प्रस्थापीत जातकच पारशांचे उदरगतीक चड वाव मेळ्ळो. पारशी लोक बुद्धिमान आनी उद्देगप्रिय आशिल्ल्यान ब्रिटीश अधिकाऱ्यांनी विंगड विंगड क्षेत्रांनी तांचो उपेग करून घेतलो. वेपार आनी उद्देगधंदे हातूंत आपली कर्तबगारी दाखोवन पारशांनी खूब नांव जोडलें.

भारतांतले पारशी लोक इराणांतलो जरथुष्ट्री (पारशी) धर्म आपलो धर्म मानतात. अहुर मज्द ह्या एकाच देवाची आराधना करून अग्नीक ताचें प्रतीक मानतात आनी ताची पुजा करतात. तशेंच सूर्य, चंद्र, उदक, वारो पर्वत, तारको आनी दिवंगत सत्पुरुष हांचीय पारशी लोक उपासना करतात. तांच्या 'अवेस्ता' ह्या धर्मग्रथांतल्या चडशा आचार-विचारांचे वेदांच्या आचार – विचारांकडेन सारकेपण आसा. ह्या धर्मांत यज्ञ, होम – हवन हांकांय म्हत्वाची सुवात आसा. दरेका पारशी वसणुकेंत एक अग्निमंदिर आसता. ताका अग्यारी, आतश बहेराम अशी नांवां आसात. उपासतापास, व्रतां, हांकां ह्या धर्मांत सुवात ना.

पारशांच्या पुरयताक मोबेद म्हण्टात. गृहस्थांगेर मंत्र म्हणप; अग्यारी, अदरन, आतश, बेहेराम हातूंतले विधी करप; नवजोत, लग्न मरणाचे संस्कार हातुंतूय मोबेदाचें काम आसता. अशा मोबेदांचो 'दस्तुर' नांवाचो एक अधिकारी आसता. हे पुरयत केंस, खाड मिशो वाडोवन धवी तोपी आनी धवो भेस करतात. मोबेदांतल्या उण्या अधिकाराच्या व्यक्तीक 'एखद' म्हण्टात. ज्या भुरग्याक 'एखद' जावपाचो आसता, ताका 'नावार' हो संस्कार करतात. ताचें शरीर आनी मन शुद्ध जावंचें ह्या हेतान यस्न, विस्परद, पाचगाह, पाचन्यामिश आनी कांय यष्ट हांचें ताणें अध्ययन करून 'बरेश्रम' नांवाचें ताका प्रायश्चीत घेवंचें पडटा. ते खातीर गोमेझ (गायचें मूत), निरंग (बैलाचें मूत) आनी भस्म वापरतात. हो 'नावार' सुवाळो जातकच ताका 'एखद' ही पदवी मेळटा, आनी नवजोत लग्न हे संस्कार चलोवपाचो ताका अधिकार फावो जाता. उपरांत ताका 'मोबेद' जावपाचो आसल्यार 'मर्तब' हो विधी करचो पडटा. 'बरेश्रम' जाले उपरांत सकाळीं यस्नमंत्र म्हणप, त्याच दिसा स्त्रोष देवतेचो यस्न म्हणप आनी मध्यान राती 'वेंदिदाद' म्हणप असो तो विधी आसता. हो विधी जातकच ताका मोबेद ही पदवी मेळटा आनी ताका हेर संस्कार करपाचोय अधिकार फावो जातात.

संन्यास आनी ब्रह्मचर्य हांचो ह्या धर्मांत निशेध केला. लग्न जावन संवसार करप हें मनशाचें मुखेल जिवीतकर्तव्य अशें पारशी धर्म मानता. पारशी लोक लागींच्या नात्यांतल्या बायल-दादल्याचें लग्न चड प्रशस्त मानतात. तेखातीर ते चड करून बापोल भावंडांभितर लग्नां करतात. लग्न सुवाळो व्हंकलेगेर जाता. व्हंकलेवटेनचे लोक न्हवऱ्यागेर वचून वाजयत-गाजयत न्हवऱ्याक घेवन येतात. अंतरपाट धरतकच ताचे पोंदच्यान नव्हऱ्या व्हंकलेचो उजवो हात एकठांय जोडून ते सुतान बांदतात. त्या सुताचे सात पदर दोगांय भोंवतणीं गुठलायतात. तशेंच, एक वस्त्र गुठलावन ताका गांठ मारतात. ते गांठीक विवाहग्रंथी अशें म्हण्टात. उपरांत अग्नींत धूप उडोवन न्हवरो-व्हंकल एकमेकांच्या माथ्यार अक्षता उडयतात तेन्ना दस्तुर मंत्र म्हण्टा. अंतरपाट काडटकच व्हंकल न्हवऱ्याच्या दोनूय वटांनी दोन मोबेद उबे रावन झेंद आनी संस्कृत भाशेंतली आशीर्वचनां म्हण्टात. तांचेर अक्षता उडयतात. उपरांत दस्तुर, व्हंकल न्हवऱ्याक कांय प्रस्न विचारता आनी योग्य त्यो जापो मेळटकच तांकां सदाचरणाचो उपदेश करून आशिर्वाद दिता. उपरांत न्हवरो-व्हंकल, दस्तुर आनी दोन गवाय लग्न पत्रिकेचेर सयो करतात. तांचेमदीं पुनर्विवाह जातात पूण एक बायल जिती आसतना दादल्याक दुसरें लग्न जावंक मेळना.

पारशी लोकांमदीं चाळीस दीस सुयेर पाळटात उपरांत बाळंटिणीक न्हाणोवन शुद्ध करतात आनी तिच्यो सगळ्यो वस्तू कोणाकूय दितात. बाळंत जातकच पांचव्या दिसा चलयेच्या घोवागेर 'भोन' म्हळ्यार उंची सोरो धाडटात. सव्या दिसा बाळंटिणीचे खाटीकडेन एक कोरो कागद, तिंतेर, लेखणी, नाल्ल आनी कुंकूम दवरतात. भुरग्याचें भविश्य, देवी त्या कागदार बरोवन दवरता असो समज आसा. त्याच दिसा भुरग्याची कुंडली करतात. सातव्या वर्सा चल्याचो तशेंच चलयेचो 'नवजोत' (मूज) नांवाचो संस्कार करतात.

पारशी लोक अग्नी, उदक आनी पृथ्वी हांकां पवित्र मानतात. तशेंच मनशाचो देह ते अपवित्र मानतात. ताका लागून मनीस मरतकच ते मडें लाशिनात, जमनींत पुरनात वा उदकांतूय उडयनात. मड्याक लागून अग्नी उदक आनी पृथ्वी अपवित्र जावंची न्हय अशी तांची इत्सा आसता. तेखातीर ते मडें एके खाशेले सुवातेर सुकण्यांक भक्ष्य म्हणून दवरताले.

मनीस मरचेपयलीं दस्तुर ताचे म्हऱ्यांत अवेस्तांतले कांय मंत्र म्हण्टा आनी ताच्या पापांविशीं चूक मागून प्रार्थना करता. मनीस मरतकच मड्याक न्हाणयतात आनी उपरांत नव्या वस्त्रांत गुठलावन ताच्या भेंडाक कस्ती बांदतात. उपरांत मडें एका गुळगुळीत फातराचेर वा रेंवेचेर दवरून ताचे भोंवतणीं तीन ओळी मारतात. त्यो ओळी कोणेंच हुंपच्यो न्हय असो नेम आसा. ते उपरांत एक विशिश्ट पिंगश्या रंगाचो सुणो हाडून ताका तें मडें दाखयतात. मोबेद मड्या म्हऱ्यांत दवरिल्ल्या अग्निकुंडांत चंदन आनी धूप उडयता, आनी मंत्र म्हण्टा. मडें फकत दिसाचेंच मसंडेंत व्हरतात. तेखातीर लोखणी निसण करतात. मडें उबारतात तांचो भेस धवो आसता. दोन मोबेद फुडें रावन गाथेंतले मंत्र म्हण्टात. जंय मरण आयलां आनी ज्या मार्गान मडें मसंडेंत व्हरतात, ती सुवात गायचें मूत शिंपडावन शुद्ध करतात. तांचे मसंडेक 'दोख्मा' म्हण्टात. थंय वतकच सगळेजाण एक फावट मड्यावयलें वस्त्र कुशीक काडून दर्शन घेतात आनी सुण्याकूय दाखयतात.

तांचो दोख्मा गांवापसून पयस माळाचेर वा दोंगराचेर आसता. त्या दोख्मांत मडें उगडें करून वतांत दवरतकच, थोड्याच वेळान गिदाडां ताचेर झडप घालून तें खावन उडयतालीं. पूण हालीं शारांनी अशी मेकळी सुवात मेळनाशिल्ल्यान, ह्या निमण्या संस्काराखातीर वाटकुळे मनोरे बांदिल्ले आसतात. मनोऱ्याच्या माथ्यार मडें दवरपाखातीर कुरकुटां आनी खांची आसतात. तांच्या तळाक जाळी आसून, सकयल खोल बांयो आसतात. तातूंत रेंव आसता. मड्याचीं हाडां आनी हेर अवशेश ते जाळयेंतल्यान सकयल पडून बांयतले रेंवेंत मिसळटात. अशे तरेचे मनोरे

बांदपाचें काम विधी करून करतात. तेन्ना पुजा - प्रार्थना करतात.

दोख्मांतले खांचीत मडें दवरतकच मोबेद आनी सोयरे-इश्ट हातपांय धुवून प्रार्थना करतात. आत्मो तीन दिसां उपरांत पृथ्वी सोडून वता अशी समजूत आशिल्ल्यान, मेल्ले सुवातेर मोबेद तीन दिस मेरेन चंदन जळयत मंत्र म्हणीत बसता. तिसऱ्या दिसा आनी चवथ्या दिसा फांतोडेर 'उथम्ण' नांवाचो विधी करतात. शिंयाळ्यांत मरण आयल्यार णव दीस आनी गिमांत मरण आयल्यार एक म्हयनो त्या घरांत अग्नीची पुजा करची न्हय असो नेम आसा. ताचेवयल्यान अशा घरांत अन्न शिजोवचें न्हय आनी त्या घरांतल्या लोकांक हेरांनी अन्न उदक दिवंचे अशी चाल पडल्या. कांय लोक मेल्ल्या मनशाखातीर पयल्या वर्सा दीसपट्टें श्राद्ध करतात. उपरांत म्हयन्यांतल्यान एक फावट करतात. पूण सामान्यपणान वर्सांतल्यान एक फावट श्राद्ध करतात. वर्साचे निमाणचे धा दीस मेल्ल्यांच्या श्राद्धाखातीरूच आसतात. त्या श्राद्धाक फ्रवर्दिगन वा मुक्ताद अशें म्हण्टात.

**सण, उत्सव :** पारशांचे सण तीन प्रकारांचे आसतात. कांय सण ऋतुमानाप्रमाण येतात, कांय सण तांच्या इतिहासांतल्या विशिश्ट घटनांकडेन संबंदीत अशे आसतात आनी कांय सण पुर्वजांचे यादीक मनयतात.

पयल्या प्रकारांत 'गहंबार' नांवाचे सण मुखेल आसात. हे सण दर दोन म्हयन्यांनी येतात. आनी पांच दीस चलतात. गांवांतले सगळे पारशी लोक मेळून ते मनयतात. अहुर मज्दान सृश्ट निर्मिल्ली ताका लागून उपकार मानप हो ह्या सणाचो मुखेल हेत आसता. तो १० मार्चा सावन २० मार्चामेरेन चलता. ह्या दिसांनी सर्गांतले पितर धर्तरेर येवन सोयऱ्यांक मेळटात असो तांचो समज आसा. पारशांच्या दरेका म्हयन्याक नांव आसता तशेंच दरेका दिसाक नांव आसता आनी कांय दिसांचीं आनी म्हयन्यांचीं नांवां सारकींच आसतात. अशे १२ दीस सणाचे मानतात. तातूंतले ७ सण म्हत्वाचे आसतात.

वर्साच्या पयल्या दिसाक नवरोज म्हण्टात. हो दीस ऑगस्टाच्या शेवटाक वा सटेंबराचे सुर्वेक येता. ताचे पयलीं वर्साचे निमाणचे स दीस पटेटीची परब मनयतात. निमाणच्या दिसा अहुर मज्दान विश्वाची उत्पत्ती केली आनी त्याच दिसा उदेंत इराणचो राजा गुस्तास्प हाणें पारशी धर्म आपणायलो अशें मानतात.

पयल्या म्हयन्याचो एकुणिसावो दीस म्हळ्यार फर्वार्दिन, हो मृतात्म्यांचे यादीक आसता. त्या दिसा सगळे अग्यारेंत एकठांय येवन मंत्र म्हण्टात आनी चंदन, धूप जळोवन सगळ्यांक फळां वांट्टात. मेहेरंगन हो सण सातव्या म्हयन्याच्या सोळाव्या दिसा येता. तो सुर्याच्या सन्मानार्थ मनयतात. आवन अर्दुइसुर हो सण आठव्या म्हयन्याच्या धाव्या दिसा येता. हो सण जलदेवदुतांच्या सन्मानार्थ आसता. त्या दिसा पारशी लोक दर्यांत वा न्हंयेंत नाल्ल, साकर आनी फुलां ओंपतात.

अदर हो सण णवव्या म्हयन्याच्या णवव्या दिसा येता. हो सण अग्नीच्या सन्मानार्थ आसता. त्या दिसा लोक अग्यारेंत वचून प्रार्थना करतात आनी दानधर्म करतात. णवव्या म्हयन्यांतलो एकुणिसावो दीस म्हळ्यार दुसरो फर्वर्दिन. हो सण पयल्या फर्वर्दिनाभाशेनूच आसता. बहमन हो सण इकराव्या म्हयन्याच्या दुसऱ्या दिसा येता. हो बहमन नांवाच्या देवदूताच्या सन्मानार्थ आसता. बहमन हो मोनजातीचो संरक्षक. कांय पारशी लोक ह्या म्हयन्यांत मास खायनात. अस्पंदाद हो सण बाराव्या म्हयन्याच्या पांचव्या दिसा येता. त्या दिसा पारशी लोक आपल्या उपाध्याया कडल्यान मंत्रिल्ली रेंव आनी पेहेल्वी मंत्र बरयल्लो एक कागद घेवन येतात. रेंव घरांतल्या कोनशांनी उडोवन, कागद मुखेल दाराचेर दसयतात.

वसंत ऋतूंत ज्या दिसा रात-दीस समान आसता (२१मार्च) त्या दिसा जमशेद बादशहान उत्सव करपाक फर्मायलें. तेखातीर तो दीस जमशेदी नवरोज ह्या नांवान वळखतात. 'खोर्दाद साल' ही परब फर्वर्दीन म्हयन्याच्या सव्या दिसा आसता. त्या दिसा आदिमानव गयोमर्द आनी जरथुष्ट्र हांचो जल्म जालो अशें मानतात.

पारशी लोकांमदीं जातीभेद ना पूण तीन पक्ष आसात. हे पक्ष पंचांगभेदा वयल्यान जाल्यात. पुलिल्ल्या काळांत इराणांत १२० वर्सांनी एक अदीक म्हयनो (कबीसा) मानपाची चाल आशिल्ली. ती सस्सानी वंशांतलो निमाणचो राजा यज्दगेर्द शेहरयार हाचे यादीक सुरू केल्ल्या संवतांतूय आपणायली. पूण इस्लामाचे घुरये उपरांत इराणांतले मज्दयस्नी लोक म्हळ्यार अहुर मज्दाचे उपासक कबीसा धरपाक विसरले आनी तांच्या नव्या वर्साची सुरवात दर १२० वर्सांनी एक म्हयनो पयलीं जावपाक लागली. जे लोक खोरासानांतल्यान भारतांत आयले ताणींय एकूच कबीसा धरलो आनी उपरांत तेय विसरले. ताका लागून तांच्या आनी इराणांतल्या वर्साच्या आरंभाक एका म्हयन्याचें अंतर पडलें. इ. स. १५ व्या शेंकड्यासावन भारतांतल्यान कांय पारशी इराणांत वचून आयले आनी तैमूर लंगाचे इराणावयले घुरयेक लागून मज्दयस्नी लोक भारतांत आयले, तेन्ना हो फरक जाणवलो. उपरांत कांय पारशी लोक इराणांतलो वर्सारंभ पाळपाक लागले आनी ते स्वताक कदीमी म्हळ्यार पुर्विल्ले म्हणूंक लागले. ज्या पारशांनी एक म्हयनो उपरांत वर्स पाळपाक सुरवात केली तांकां 'शहेनशाही' ह्या नांवान वळखूंक लागले. हे वयर सांगिल्ले दोनूय वर्सारंभाचे दीस कबीसा धरूंक नाशिल्ल्यान चूकिल्ले म्हणून जमशेदी नवरोज (२१मार्च) होच वर्साचो पयलो दीस मानचो आनी ताका फस्ली संवत म्हणचें असो एक तिसरो पक्ष उत्पन्न जालो.

पारशी लोकांमदीं ७५% शहेनशाही, २० % कदीमी आनी ५% फस्ली लोक आसात. इ. स. १९६८ वर्सा यज्दगेर्द संवत १३३६ सावन, फस्ली नवरोज २१ मार्चाक, कदीमी नवरोज ३१ जुलयाक आनी शहेनशाही नवरोज ३१ ऑगस्टाक येता.

पारशी लोकांत कांय चालीरितीय आसात. तकली आनी पांय उकते दवरचे न्हय असो तांचेमदीं नेम आसा. जेवंचे पयलीं ते देवाक नमस्कार करून मोन्यांनी जेवतात. शींक वा जांबय येत जाल्यार 'अहरिमनाचो नाश जावं' ह्या अर्थाचो मंत्र म्हण्टात. पडिल्लो दांत, नाखटां, केंस जमनींत पुरून मंत्र म्हण्टात. ते कोंब्याक खूब पवित्र मानतात. कोंबो वा पोपट मेल्यार तो सदऱ्यांत गुठलायतात आनी कस्ती बांदतात. उपरांत ताका बरे सुवातेर पुरतात. खेड्यांतले पारशी लोक हिंदूंच्या देवांक आनी मुसलमानाच्या पिरांक आंगवण करतात. होळयेक निवेद्य दाखोवप, देवतेक कोंबे, बकरे बळी दिवप, मारुतीक तेल घालप ह्योय चाली ते पाळटात. दिश्ट जावंची न्हय म्हणून ल्हान भुरग्याक तीट लावप, दिश्ट काडप, मंत्रायल्ली तावज बांदप हांचेर तांचो भावार्थ आसा. अहरिमन आनी ताचे दूत उत्तर दिके वटेन आसतात असो तांचो समज आशिल्ल्यान पारशी लोक उत्तरेवटेन तकली करून न्हिदनात.

इराणांत आयिल्ल्या पारशांकडेन तांचे धर्मग्रंथ बी कांयच नाशिल्ले म्हणून समाजांत नेम घालून दिवपाक ताणीं थळावे जातपंचायतीची

पद्दत आपणायली. गांवांतले जाण्टे, सज्जन, प्रतिश्ठीत लोकांची समिती करून हे समितीवतीन ते सगले प्रस्न सोडोवंक लागले. पंचायतीच्या मुखेल्याक 'दावर' म्हण्टात. दातो-वार म्हळ्यार न्याय दिवपी. ह्या पेहलवी उतरा वयल्यान हें नांव आयलां. पयलींच्या काळांत दावराक बरेच अधिकार आशिल्ले. पंचायतीन केल्ले नेम सगळ्या समाजाक पाळचे पडटाले. पूण ब्रिटीश सत्ता सुरू जातकच पंचायतीचें म्हत्व उणें जालें आनी धर्मादाय निधींची वेवस्था करपाबगर पंचायतीकडेन काम उरलेंना.

पारशी लोक भिक्षा मागप हें पाप मानतात. तेखातीर चडशे गरीब लोक ह्या धर्मादाय संस्थांकडल्यान आदार घेतात. अशो पारशी संस्था खूब आसात आनी तांचे निधीय व्हड आसतात.

इ. स. १८५१ वर्सा कांय इंग्लंडाक शिकूंन आयिल्ल्या पारशी तरणाट्यांनी रहनुमाई मज्दयस्नन नांवाचे एके सभेची स्थापणूक केली. पारशी लोकांची समाजीक स्थिती सुदारची आनी पारशी धर्मकूय उजाळो दिवन तो शुद्ध जावंचो असो हे सभेचो हेत आशिल्लो. हे सभेन 'रास्त गफ्तार' नांवाचें खबरांपत्र चलयल्लें. तातूंत पुर्विल्ल्या धर्मग्रथांचो खोलायेन अभ्यास करून जायत्या पंडितांनी धर्माचें शुद्ध स्वरूप दाखोवपी लेख बरयले. पारशी समाजांतली पड्डोपद्दत तशेंच बालविवाह बंद करप असल्यो समाजीक सुदारणाय हे सभेन केल्ल्यो.

उद्देगधंदे करून पारशी लोकांनी खूब नामना जोडली. सुर्वेक ताणीं शेती करून उपरांत ते वेगवेगळ्या शारांनी वचून वेपार करूंक लागले. सुरतेक वतकच तांची खूब भरभराट जाली. हॉलंडी, पुर्तुगेज आनी चड करून इंग्लेज हांचेकडेन संबंध आयिल्ल्यान तांचो वेपार खूब वाडलो. ब्रह्मदेश (मियानमार), चीन, मलाया, मक्का, मॉरिशिअस मेरेन ते आपलो म्हाल धाडूंक लागले. वीणकाम, थवयकाम, मातीकाम ह्या वेवसायांनीय ताणीं आपलें कसब दाखयलें. कांय लोकांनी तारवां बांदपाचोय उद्देग सुरू केलो. हुशारकायेन बरेच पारशी लोक सरकारी अधिकारी जाले. इंग्लेजांकडेन घट संबंद आयिल्ल्यान तांकां शिक्षणाचें म्हत्व कळ्ळें आनी त्या क्षेत्रांतूय ताणीं उदरगत केली

एकुणिसाव्या शेकड्यांत ब्रिटिशांची राजवट सुरू जातकच कितल्याशाच पारशी घराण्यांक उद्देग शिक्षण, राजकारण ह्या क्षेत्रांनी नामना मेळ्ळी. भारताचे उद्देगीक उदरगतीचें चडशें श्रेय पारशी उद्देगपतींक दिवंक फावता. ते नदरेन ससून, कामा, जहांगीर, टाटा, वाडिया, पेतित हीं नांवां म्हत्वाचीं आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**पारसनाथ :** बिहार राज्यांतल्या हजारीबाग जिल्ह्यांतली दोंगुली आनी जैनांचें नामनेचें पुण्यक्षेत्र. उदेंत रेल्वेमार्गावयल्या गीरीदीह. स्थानकाचे नैऋत्येक सुमार ३० किमी. अंतराचेर हें शार आसा. हो वाठार दामोदर आनी बराकर न्हंयांच्या देगणांत मदी सामको उंचायेर आसून समुद्रथरासावन ताची उंचाय १,३६६ मी. आसा. हांगासल्ल्यान जैनाचे २० तीर्थंकर आनी जायते मुनी मोक्षाक गेले अशें सांगतात. जैनांचो २३ वो तीर्थंकर पार्श्वनाथ हो हांगासल्ल्यानच मोक्षाक गेलो देखून ताच्या नांवावयल्यानच ह्या थळाक पारसनाथ हें नांव मेळ्ळें.

जैन ग्रंथांतल्यान संमेदगिरी, संमेदशिखर, संमेदाचल अशा वेगवेगळ्या नांवांनी ह्या थळाचो उल्लेख मेळटा. हांगाचे दोंगुल्लेच्या माथ्यार आशिल्ल्या देवळांत पार्श्वनाथाची ध्यानावस्थेंत मूर्त आसा. तेभायर चोवीस तीर्थकरांच्यो मुर्ती आनी पादुकाय आसात. पार्श्वनाथा आदी निर्वाणाक गेल्ल्या ९ तीर्थंकराचीं देवळां हे दोंगुल्लेचेर आसात. दर मुर्तीचेर कोरीव लेख आसात. सध्या हें देवूळ पाशाणाचें (संगमरवरी) आसून तातूंतली मूर्त खूब पुर्विल्ली आसा. पारसनाथाचे भोंवतणीं जायत्यो ल्हान - ल्हान दोंगुल्ल्यो आसून तांचेर तीर्थंकरांच्यो घुमटच्यो आसात. जैन लोकांच्या मतान त्या सगळ्या घुमटच्यांक प्रदक्षिणा घालत जाल्यार पुण्याय मेळटा.

पारसनाथ दोंगुल्लेचेर गंधर्वनाला आनी सीतानाला अशे उदकाचे दोन लोट आसात. हातूंत गंधर्व नाल्यासावन दोंगुल्लेच्या तेमकामेरेनचो भाग पवित्र मानतात. तेमकाच्या मुळसांत मधुवन नांवाचो ल्हान गांव आसून तातूंत दिगंबरी वीसपंथी, तेरापंथी आनी श्वेतांबरी अश्यो तीन कोठयो आसात. ह्या सगळ्या कोठयांत सत्तावीस देवळां आसात.

जैनांवरी संताळ लोकूय ह्या थळाक पवित्र मानतात. पार्श्नाथ हो तांचो मरंगदुरु म्हळ्यारूच गिरीदेव आसून ते आपल्या समाजांतल्या गुन्यावांची चवकशी हांगा करतात. संताळांक शिकार करपाचोय हक्क मेळ्ळा.

– कों. वि. सं. मं.

**पारसन्स, टॅलकॉट :** (जल्म : १३ डिसेंबर १९०२, कोलोराडो, स्प्रिंग्ज).

नामनेचो समाजशास्त्रज्ञ. ॲमहर्स्ट विद्यालयांत ताणें विद्यालयीन शिक्षण पुराय केलें. फुडें ताका वैजकी शिक्षण घेवपाची इत्सा आशिल्ली पूण तो समाजीक विज्ञानाकडेन गेलो. ह्या फांट्यांतलें शिक्षण घेवपाक तो इंग्लंडाक गेलो. थंय लंडनच्या 'स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स' हातूंत ताणें आपलें म्हाविद्यालयीन शिक्षण पुराय केलें. ह्याच काळांत ताचो हॉबहाऊस, गिन्सबर्ग आनी मॅलिनोस्की ह्या विचारवंतांकडेन संबंद आयलो. उपरांत हिडलबर्गाक जर्मन विद्यापिठांत ताणें जर्मन समाजशास्त्र, अर्थशास्त्राचो इतिहास, तत्त्वगिन्यान आदी विशयांचो खोलायेन अभ्यास केलो. थंयच ताणें समाजशास्त्र आनी अर्थशास्त्र हांचो संबंद तेचपरी भांडवलशायेचें स्वरूप आनी ताचो विकास हांचो अभ्यास केलो. ताणें कांटच्या तत्त्वगिन्याची साधकबाधक भासाभास केल्ली.

१९२८च्या सुर्वेच्या काळांत ताणें भांडवलशायेचें खाशेलपण आनी अर्थीक तशेंच समाजीक आनी संस्कृतीक घटकांचें एकामेकांचेर आदारून उरप हांचो अभ्यास केलो. ह्याच काळांत ताणें बेवरच्या 'द प्रॉटेस्टंट एथिक्स ॲंड द स्पिरीट ऑफ कॅपिटॅलिझम' ह्या पुस्तकाचो अणकार केलो. १९३०-४० ह्या काळांत ताणें समाजशास्त्रीय सिद्धाताचें सादारण आनी तत्त्वनिश्ठ तशेंच स्पश्ट आनी शुद्ध रूप समाजामुखार दवरपाचें म्हत्वाचें काम केलें. शिकयतां शिकयतांच ताणें जायत्या विचारांची विस्कटावणी करून ते सिद्धांत नवे नदरेंतल्यान मांडले.

१९३७त ताणें समाजीक क्रिया आनी प्रतिक्रिया हांचो एक आराखडो तयार करून 'द स्ट्रक्चर ऑफ सोशल ॲक्शन' हें पुस्तक बरयलें. ह्या पुस्तकाक समाजशास्त्रीय म्हत्व मेळून ताका मान्यताय मेळ्ळ्या. ह्या पुस्तकांत अनुभववाद (Empirision) आनी प्रत्यक्षवाद (Positivism) हांचेर टिका केल्या. तेचपरी वर्तनवाद (behaviourism), उपयुक्तवाद (Utilitirianism) आनी आदर्शवाद (Idealism) हातुंतलो संबद आनी प्रकार

स्पश्ट करून तांची खोलायेन चिकित्सा केल्या. ह्या पुस्तकाची मध्यवर्ती कल्पना समाजीक क्रिया घडून येवपाक संस्कृतीक, समाजीक, मानसीक आनी जैविक घटक कारण थारतात.

ह्या पुस्तकांत ताणें आदर्शवादाच्या भौतिकी घटकांचेर टिका करून तातूंतल्या सापेक्षताय वादा विशींची (relativism) तत्त्वां, काळाचो प्रभाव आनी आदर्शवादाची सापेक्षवादाकडेन वाटचाल आदी कल्पनांचेर भाश्य केलां. ह्या पुस्काचेर इतिहासतज्ञ आनी समाजशास्त्रज्ञ मॉस वॅबर, इंग्लीश अर्थशास्त्रज्ञ मार्शल, फ्रँच समाजशास्त्रज्ञ डुरखाईम आनी इटालियी अर्थशात्रज्ञ आनी समाजशास्त्रज्ञ पॅरेटो ह्या शास्त्रज्ञांच्या विचारांचो प्रभाव दिश्टी पडटा. हाचेभायर हातूंत ताणें हेर समाजशास्त्रज्ञ अर्थ शास्त्रज्ञ मानसशास्त्रज्ञ हांच्या विचारांची पुराय भासाभास केल्या.

इ. स. १९३७-१९६० ह्या काळांत ताणें समाजीक क्रियेच्या वेगवेगळ्या पद्‌दतींचो अभ्यास करून ताची संकल्पना चड प्रगल्भ केली. ताका ताणें समाजीक नियंत्रणाची आनी परिस्थितीची संदेशवाहनात्मक श्रेणीरचना (cybernetic hierarchy) अशें नांव दिलें. १९५० त ताणें 'द सोशल सिस्टिम' हें पुस्तक बरयलें.

समाजीक संबंद आनी संस्कृतीक संबंद हे विशींच्यो कल्पना, वेगवेगळे आकृतीबंध हांची विस्कटावणी करतना पारसन्सान 'संस्थाकरण' आनी 'आंतरीकरण' ह्यो संज्ञा वापरल्यात. दरेक समाज दुसऱ्या समाजाकडल्यान कांय मुल्यां आपणायता आनी स्वताचे समाजीक वेवस्थेंत तांचें अनुकरण करता. हाकाच पारसन्सान संस्थाकरण ही संज्ञा वापरल्या. जाल्यार व्यक्तिमत्वाचे घडणेचे पद्‌दतीक ताणें आंतरीकरण अशें नांव दिलां कारण मनशाचे घडणेंत मुल्यां आनी रितीरिवाज हांकां म्हत्वाची सुवात आसा.

१९५६ ताणें आनी स्मॅल्सर हाणें संयुक्तपणान 'इकॉनॉमी ॲंड सोसायटी' हें पुस्तक बरयलें. समाजीक वेवस्थेंत अर्थीक वावराची देवाण घेवाण समाजाकडल्यान जाता आनी तातूंतल्यानूच उद्दिश्ट पुराय करप जाता.

हातुंतल्यान समाजीक परिवर्तनाची प्रक्रिया घडटा. ताच्या मतान कार्यात्मक यंत्रणा' ही चार सहाय्यक वेवस्थांचेर उबी रावता अर्थवेव्हाराखातीर पदवी, राजकारणाखातीर सत्ता, भौशीक वावराखातीर कतृत्व आनी एकामेकांवयल्या विश्वासाखातीर नैतिक मुल्यांची बांदिलकी.

समाजवेवस्था, व्यक्तिमत्व आनी संस्कृताय ह्या तिगांतले संबंद घट आसतात आनी ते मानवी जिणेंत गरजेचेय आसतात. कारण तातुंतल्यानूच समाजाची संकीर्ण प्रतिमा तयार जाता. अशी ह्या पुस्तकाची मध्यवर्ती कल्पना. पारसन्स हांचीं हेर म्हत्वाचीं पुस्तकां अशीं : सोशल स्ट्रक्चर ॲंड पर्सनॅलिटी (इ. स. १९४६), ॲक्शन, थिअरी ॲंड ह्युमन कंडिशन (इ. स. १९७८).

- कों. वि. सं. मं.

**पार्क, रोबर्ट :** (जल्म : १८६४; मरण : १९४४).

नामनेचो अमेरिकी समाजशास्त्रज्ञ. ताणें मिनेसोटा विद्यापिठांतल्यान पदवी घेतली. हार्वर्ड आनी मिशिगन ह्या विद्यापिठांतल्यान ताणें तत्त्वगिन्यान आनी मानसशास्त्र आदी विशय घेवन उच्च शिक्षण घेतलें. थंय ताचो ह्युगो म्युन्स्टरबर्ग, विल्यम जेम्स ह्या विचारवंतांकडेन संबंद आयलो. पिरायेच्या ३५ व्या वर्सा तो बर्लिनाक गेलो.थंय जॉर्ज सिमेल ह्या नामनेच्या समाजशास्त्रज्ञाच्या विचारांनी तो प्रभावीत जालो आनी अमेरिकी समाजशास्त्रज्ञाचें बीं ताच्या मनांत रुजलें. फुडें तो स्ट्रॅटसबर्गाक खाशेलो अभ्यास करपाक गेलो. थंय इटालियीन अर्थशास्त्रज्ञ आनी अभियंतो विल्फ्रीडो पॅरेटो हांच्या समाजशास्त्रीय प्रबंधाचो ताचेर प्रभाव पडलो.

उपरांत कांय काळ ताणें पत्रकार म्हणून काम केलें. ताच्या 'ऑटोबायोग्राफिकल नोट' ह्या लेखसंग्रहांत ताच्या विचारांचेर विल्यम जेम्साच्या विचारांचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. समाजीक जिवितांतलें वास्तव समाजांतल्या वेगवेगळ्या संस्थांतल्यो अडचणी आनी संघटनांच्यो कार्य पद्‌दती हांची आपल्या लेखसंग्रहांत ताणें पुरायतरेन विस्कटावणी केल्या.

१९०४ वर्सा ताणें लोकमत ह्या विशयाची पदवी मेळयली. 'द क्राऊन ॲण्ड द पब्लिक - अे मेथॉडॉलॉजिकल ॲण्ड सोशिऑलॉजिकल इन्व्हेस्टिगेशन' अशें ताचे नांव आशिल्लें. ह्याच काळांत 'कॉंगो रिफॉर्म असोसिएशन' हे संस्थेच्या कार्यवाह पदाचेर ताची नेमणूक जाली. ह्या वेळार ताणें 'एव्हरीबडी मॅगझीन' हातूंत साम्राज्यवादी सत्तांच्या रानटी वागणुकेचेर जायते लेख बरयले. ते उपरांतच्या काळांत ताचो अमेरिकी खाप्र्यांचो फुडारी बुकर टी वॉशिंग्टन हाचेकडेन संबंद आयलो.

उपरांत ताणें आपली जीण खाप्र्यांचे परिस्थिती विशीं संशोधन करपांत आनी तेविशीं म्हायती एकठांय करपांत घालयली. ताणें वशिंग्टनावांगडा युरोपभर भोंवडी केली. थंय ताका दक्षिण अमेरिकेंतल्या खाप्री (निग्रो) आनी गोरे लोक हांच्या संबंदाचें स्पश्ट दर्शन जालें. मनशाच्या स्वभावाचो आनी वेगवेगळ्या समुदायांचो उगम संघर्शांतल्यान जाता, जाका लागून समाजांत जातीवेवस्था निर्माण जाता. जाती वेवस्थेची रचणूक, श्रमविभाजन, वर्गवेवस्था ह्योय गजाली समाजांत येतात हें ताका कळ्ळें.

पिरायेच्या पन्नासाव्या वर्सा शिकागो विद्यापिठांत समाज शास्त्र विभागांत तो परत शिकोवपाचें काम करूंक लागलो. इ. स. १९२९ त तो थंयच्यान निवृत्त जालो. उपरांत ताणें दक्षिण आफ्रिका, भारत मलाया, ब्राझील अशे वंशीक नदरेन म्हत्वाच्या दिशिल्ल्या देशांनी भोंवडी केली. ताणें आपल्या 'इंट्रोडक्शन टू द सायन्स ऑफ सोशिऑलोजी (समाजशास्त्राची वळख) ह्या ग्रंथांत समाजशास्त्राचो हेर विज्ञानाकडेन आशिल्लो संबंद सांगला. तातूंत ताणें मानवी वर्तनाचीय विस्कटावणी केल्या. ताची हेर नामनेचीं पुस्तकां अशीं : द सिटी, रेस ॲण्ड कल्चर ह्युमन मायग्रेशन ॲण्ड द मार्जिनल मॅन.

- कों. वि. सं. मं.

**पार्श्वगायन :** चलचित्राचे गीतयेवजणेचें एक तंत्र. चलचित्रांत वेगवेगळ्या दृश्यां वेळार संबंदीत पात्राच्या तोंडांत पदां घाल्लीं आसतात. पूण प्रत्यक्षांत मात अशीं पदां चित्रिकरणाच्या वेळार ध्वनीमुद्रीत करिनात. तीं पयलींच ध्वनीमुद्रण कक्षेंत स्वतंत्रपणान ध्वनीमुद्रीत करतात. दृश्यचित्रिकरणाच्या वेळार संबंदीत पात्राक पदां म्हणपाचो फकत अभिनय करचो पडटा. पदाचे दृश्यप्रसंग बरे तरेन चित्रध्वनी संयोग करून चलचित्राचें पुराय फिल्म उपरांत तयार करतात. पदाच्या ध्वनीमुद्रणावरीच चलचित्रांतलें पार्श्वसंगीतूय स्वतंत्रपणान ध्वनिमुद्रित करतात.

चलचित्राचे सुरवातीच्या काळांत चित्रिकरणाच्या वेळार संवादांवरीच पदांचेंय ध्वनीमुद्रण करताले. हें काम खुबूच किचकटीचें आनी त्रासांचें

जावंक लागलें. तें करतना भोंवतणचे हेर आवाज (देखीक – पशुपक्षी वा हेर मनशाचे वा वस्तूंचे) ध्वनीमुद्रीत जातालें. भायल्या चित्रीकरणाच्या वेळार वाद्यां आनी वादक हांचो लवाजमो त्या त्या जाग्यार व्हरचो पडटालो आनी प्रत्यक्ष दृश्यवेध घेता आसतना पदाचो एकच एक ताल, लय आदी सांबाळपाक कठीण वतालें. ताका लागून एकाच वेळार चित्रिकरण आनी पदांचें ध्वनीमुद्रण सादप कठीण जातालें. फुडें पक्षाचे ध्वनिमुद्रणकक्षेंत करप आनी दृश्यचित्रिकरणाच्या वेळार त्यो ध्वनिमुद्रिका उपेगांत हाडप हें तंत्र आयलें.

भारतात १९३५ च्या सुमाराक आयिल्ल्या न्यू थिएटर्सच्या 'धुपछाँव' ह्या हिंदी (मूळ बंगाली 'भाग्यचक्र') चलचित्रांत सगळ्यांत पयलीं पार्श्वगायनाचो उपेग केलो. अशें म्हणप जाता. ताचें दिग्दर्शन नितीन बोस हाणें केल्लें. संगीत रायचंद बोराल आनी ध्वनीलेखन मुकुल बोस हाचें आशिल्लें. मुकुल बोस हाणें ह्या चित्रपटांतल्यान पार्श्वगायनाची मूळ कल्पना सगळ्यांत पयलीं भारतीय चित्रपट सृश्टीच्या मळार येसस्वी करून दाखयली. पार्श्वगितां आशिल्लो पयलो मराठी चित्रपट म्हळ्यार 'प्रेमवीर' (१९३७). हातूंतल्यानूच फुडें पार्श्वगायन करपी गायकांची एक स्वतंत्र परंपराच भारतीय चित्रपट मळार सुरू जाली. चित्रपटांतल्या बायल दादले पात्रांच्यो ल्हान व्हड भुमिका करपी कलाकाराक ह्या पार्श्वगायकांचो उश्णो आवाज दिवन तांच्या तोंडांत पदां घालपाची पद्दत सुरू जाली. ताका लागून गायक कलाकाराचें म्हत्व उणें जालें आनी पार्श्वगायकाचो प्रभाव चित्रपट मळार वाडत गेलो. ए. के. सैगल, शमशाद बेगम, मुकेश, लता मंगेशकर, आशा भोसले, महंमद रफी, मन्नाडे, किशोर कुमार, तलत महमूद, महेंद्र कपूर, हेमंतकुमार, सुमन कल्याणपूर, येसुदास, आदींनी पार्श्वगायनाचे परंपरेक बरोच हातभार लायला. सद्याच्या काळांत अनुराधा पौडवाल, सुरेश वाडकर, कविता कृष्णमुर्ती, सुधीर फडके, अरूण पौडवाल, जयवंत कुलकर्णी, हृदयनाथ मंगेशकर आदी जायत्या पार्श्वगायकांची नामना आसा.

एका पार्श्वगायकान वा पार्श्वगायिकेन कितल्या कलाकारांक उश्णो आवाज दिवप हाका मर्यादा ना. एकाच चित्रपटांत एकाच पार्श्वगायकान वा गायिकेन दोन वा दोनांपरस चड पात्रांक आपलो उश्णो आवाज दिल्ल्याच्यो देखी आसात. देखीक – मजबूर (१९७४) ह्या चित्रपटांत अमिताभ बच्चन आनी प्राण ह्या दोगांकय एकल्या किशोर कुमारान आवाज दिल्ल्याचीं उदाहरणां आसात. एकाच चित्रपटांत एकाच कलाकाराक दोन वा तीन पार्श्वगायकांनी उश्णो आवाज दिल्लो आसा. देखीक – 'बैजू बावरां' त भारतभूषण ह्या एकाच कलाकाराक द. वि. पलुस्कर आनी महंमद रफी ह्या दोन पार्श्वगायकांनी आपलो उश्णो आवाज दिल्लो आसा.

– कों. वि. सं. मं.

## पार्श्वनाथ :

जैनांचो तेविसावो तीर्थंकर. ताचो जल्म काशी नगरांत जालो. ताच्या बापायचें नांव अश्वसेन आनी आवयचें नांव वामादेवी. इ. स. प. ८५० च्या अदमासाक पार्श्वनाथ जावन गेलो.

अयोध्येचो राजा प्रसेनजित हाची धूव प्रभावती हिचे कडेन पार्श्वनाथाचें लग्न जालें. पूण पिरायेच्या तिसाव्या वर्सा ताणें संवसाराचो त्याग केलो आनी संन्यासधर्म आपणायलो. पार्श्वनाथाचें चिन्न सात फण्यांचो नाग. हें चिन्न पार्श्वनाथाचे मुर्तीच्या माथ्यार कोरांतिल्लें आसता. केवलज्ञानप्राप्ती उपरांत पार्श्वनाथान धर्माचो उपदेश केलो आनी अनुयायांची संघटना उबारली. ताच्या अनुयायांभितर साधू, साध्वी, श्रावक आनी श्राविका असो चतुर्विध संघ आशिल्लो.

पार्श्वनाथाच्या पुर्विल्ल्या संप्रदायाक 'स्थविरकल्प' म्हण्टात. ताणें 'चातुर्यामसंवर' म्हळ्यार अहिंसा, सत्य, अचौर्य आनी अपरिग्रह हीं चार व्रतां प्रतिपादन करपी 'चातुर्याम धर्म' शिकयलो. महावीरान तातूंत ब्रह्मचर्य व्रताची भर घालून आपलीं पांच महाव्रतां वा 'पंचयामिक धर्म' सांगलो. हे भायर प्रतिक्रमण म्हळ्यार आपणें केल्ल्या पापांची कबुली दिवन प्रायश्चित घेवप, संन्यास आनी तप ह्या गजालींचेर महावीरान चड भर दिलो. पार्श्वनाथाचो आनी महावीराचो अशे दोनूय संप्रदाय कांय काळ वेगळे आशिल्ले. पूण उपरांत हे दोनूय संप्रदाय महावीरान एकठांय केले आसुंये. उत्तर काळांतले दिगंबर संप्रदाय हो महावीराचो आनी श्वेतांबर संप्रदाय हो पार्श्वनाथाचो संप्रदाय आसुंये अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. पार्श्वनाथा पयलींचे बावीस तीर्थंकर पौराणिक आसात अशें आर्विल्ल्या विद्वानांचें मत आसा. पूण पार्श्वनाथ आनी महावीर हे इतिहासीक अशें चड करून सगळ्या अभ्यासकांचें मत आसा.

– कों. वि. सं. मं.

## पार्सेकर, श्रीधर :

(जल्म : पेडणें).

गोंयचो नामनेचो व्हायोलीन वादक. ताका भुरगेपणांतसावन संगिताची आवड आशिल्ली. ल्हान आसतना तो बँडांत क्लॅरीओनॅट वाजयतालो. पूण ताका खरें आकर्शण आशिल्लें तें पांयपेटयेचें. तेखातीर ताणें जंय जंय नाटकां जातालीं थंय थंय वचून पेटीवाल्याच्या बोटांकडेन आनी पायांकडेन पळोवन पळोवन ही कला आत्मसात केली. पेटयेवांगडाच तबलें आनी जलतरंग तो सहज वाजयतालो. आपल्या आंगांतल्या ह्या कलागुणांक वाव मेळचो देखून तो पेडणें सोडून मुंबय गेलो.

सुर्वेक ताणें हार्मानियमचें शिक्षण मेळयलें. थंय ताका मधुकर पेडणेकर आनी ताचो बापोल्यो परशुरामबुवा पार्सेकर हांचें मार्गदर्शन मेळ्ळें. मुंबय तो जंय रावन हार्मोनियमाचें शिक्षण घेतालो थंय लागींच नामनेचो व्हायोलिनवादक गजाननराव जोशी हाचें गायन-वादनाचें एक विद्यालय आशिल्लें. त्या विद्यालयांत शिकयताले ते व्हायोलिनाचे मधूर स्वर आयकून ताका ती विद्या शिकपाचो ध्यास लागलो. ते प्रमाण मधुकर पेडणेकराच्या आदारान तो जोशी बुवाकडेन गेलो. थंय जोशीबुवान ताका सुर्वेक सावन तयार जाय मेरेन व्हायोलिनाचें फुकट शिक्षण दिलें. थोडच्याच काळांत तो व्हायोलीन वादनांत पुराय तयार जालो. उपरांत तो अण्णासाहेब माईणकर हाच्या चित्रपटांत व्हायोलिनाची साथ दिवंक लागलो. फुडें ताणें खाँसाहेब खादीम हुसेन खाँ, खाँसाहेब नत्थनखाँ आनी अन्वर हुसेन हांचेकडेन फुडलें शिक्षण घेतलें. उपरांत तो आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्रार साथीदार म्हणून नोकरेक लागलो. थंय ताका गायनाचार्य वझेबुवा, मरहुम फैयाजखाँ, विलायतखाँ साहेब, ओंकारनाथ ठाकुर हांकां साथ दिवपाची संद मेळ्ळी. फुडें फुडें तो वझेबुवाक साथ दिवंक ताच्या जलशांनी आनी मैफिलींनी वचूंक लागलो.

उपरांतच्या काळांत तो आपले स्वतंत्र कार्यक्रम करूंक लागलो. जायत्या गवयांच्या आनी तंत्रकारांच्या खाशेलपणांचो ताच्या व्हायोलिनाच्या चार सरयांमदी आस्पाव जातालो. अस्ताई वाजोवन जातकच मध्य लयींत

दाव्या हाताच्या बोटान लयीच्या आंगान ठेक्याची चाल चुकयत टिण टिण तार वाजयत, ठेक्याक दोलाईत दवरप हें ताचें एक खाशेलपण आशिल्लें. ल्हव ल्हव ताणें व्हड-व्हड उस्तादांच्या मैफलींनी सुवात मेळयली आनी भारतभर नामना जोडली. १९३९ उपरांत चित्रपटांत संगीत दिग्ददर्शक म्हणून ताणें प्रवेश मेळयलो. उपरांत ताणें रेडिओवयली नोकरी आनी गायकांक साथ दिवपाचें सोडून दिलें. ताणें व्हायोलिनांत सुमाराभायर नामना मेळयली. भालजी पेंढारकराच्या विश्राम बेडेकराच्या 'पैसा बोलतो आहे' आनी मो. ग. रांगणेकराच्या 'कुबेर' ह्या चित्रपटाक ताणें संगीत दिग्दर्शन दिवन आठ-धा वर्सांमदी बरीच नामना मेळयली.

'हिज मास्टर्स व्हॉयस', 'ओडियन' ह्या कंपनींच्या मराठी ध्वनिमुद्रितांखातीर ताणें जायत्यो चाली दिल्यो. रांगणेकराच्या कन्यादान ह्या नाटकापसून ताणें नाटकाच्यो चाली दिवपाक सुरवात केली. 'माझे घर' ह्या नाटकाचें संगीत दिग्दर्शन ताणेंच केल्लें. ह्याच काळांत ताणें 'स्वर निनाद' नांवाचें व्हायोलीन वादनाची म्हायती दिवपी एक पुस्तक बरयलें.

फुडें फुडें तो पुराय उस्तादी गायकी व्हायोलिनाचेर वाजयतालो. ल्हवपीकपणान आलापी करतां करतां तो षड्जांत विलीन जालो की, फाटल्या दोन तंबोऱ्याचो नाद आनी ताच्या व्हायोलिनांतलो षड्ज एकजीव जावन वतालो.

– कों. वि. सं. मं.

## पार्सेकर, वासू शिवा गवंडी : (जल्म : १६ ऑगस्ट १९३८, पार्शे पेडणे).

सुटके झुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५४त बेळगांवच्यान शीम हुंपून ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. तो काणकोणां पावतकच पोलिसांनी ताच्या वांगड्यां सयत ताका धरलो. प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका सात वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

## पाल : (वर्गीकरण – विभाग : पृष्ठवंशी (जाका फाटीकणो आसा अशी); वर्ग : सरीसृप; गण : स्क्युमॅटा; उपगण: लिझार्ड (पाल); कूळ : गॅक्कोनिडी).

सद्या स्क्युमॅटा ह्या गणांत आस्पाव जाल्ले सरकटपी मोनजातीचे लिझार्ड (पाल) आनी स्नेक (सोरोप) अशे उपगण केल्यात.

पुर्विल्ल्या काळासावन अस्तित्वांत आशिल्लो एक सरकटपी प्राणी. पालीचो प्रसार संबंद जगभर जाल्लो आसून उश्ण प्रदेशांत ती सगळेकडेन मेळटा. पाल ही निशाचर (nocturnal) आसून, आपलें भक्ष्य मेळोवपाखातीर ती चडशी रातची भायर सरता. हो प्राणी ल्हान आसून सादारणपणान ताची लांबाय सुमार ८ ते १२ इतली आसता. विंगड विंगड वाठारांनी सांपडपी पालींचो रंग वेगवेगळो आसता. गोंयांत दिश्टी पडपी पाल ही सादारणपणान पुडीकोराची वा गोबरी आसता. तिचे फाटीचेर काळे थिपके आसतात. तशेंच तिचे सबंद कूडीचेर उजळशे पाट आसतात. तिचें पोट धवशें आसून, मानेर काळो दाग दिश्टी पडटा. कातीचेर बारीक खवळां आसून तांचेर बारीक ल्हंवशी आसता. हाका लागून तांची कात मोव आसता. पालीची तकली व्हड आसून, तिच्या पायांची आनी शेंपडेची बरी वाड जाल्ली आसा. दोळे व्हड आसून तांचेर पारदर्शक कात आसता. पालीचे कुडीपरस शेंपडी लांब आसता. गरजेप्रमाण तांकां शेंपडी सोडपाक मेळटा. पूण तिची लांबाय मुळावे शेपडेपरस उणी आसता. तकली त्रिकोनी आसून तिचें तोंड रूंद आसता. तोंडांत बारीक बारीक दांत आसतात.



तांच्या आवाजावयल्यान तांकां वेगवेगळीं नांवां दिल्लीं आसात. पायांचीं बोटां वा तळ पसरट आसून तांचेर बारीक बारीक बुराक आसतात. हाका लागून पालीन आपले पांय वण्टीचेर दवरले म्हण्टकूच ह्या बुरकांतली हवा वचून ते वण्टीक घट दसतात. अशे रितीन पाल हारशाचेर लेगीत नेटान धांवपाक शकता.

**उत्पत्ती आनी प्रसार** : हीम युगाचे निमाणेकडेन भूंयमध्या लागशिल्लया उश्ण प्रदेशांत पालीचो उगम जालो. उपरांत ह्याच प्रदेशांनी तांच्यो साबार प्रजाती निर्माण जाल्यो. सुर्वेक राबितो ह्याच प्रदेशांनी आशिल्ल्यान आनी संबंद तांच्यांतूच आयिल्ल्यान तांच्या कुळांत व्हडलोसो बदल जालोना. पूण सद्या पालिचो प्रसार सबंद संवसारभर जाल्लो आसा. उश्ण प्रदेशांत ती सगळेकडेन मेळटा. पूण हिमान भरिल्ल्या ध्रुवीय वाठारांत तांचें अस्तित्व ना. स्क्युमॅटा गणाच्या गॅक्कोनिडी कुळांत सुमार २०० प्रजाती आसात. भारतांत मेळपी पाल ही सादारणपणान हेमिडॅक्टिलस वंशांतली आसता.

संयोगा उपरांत कांय दिसांनी मादी वण्टींच्या खांचींनी वा बुराकांनी दोन ते स तांतयां घालता. तांतयां घालपाखातीर मादी उश्ण अशी सुवात सोदून काडटा.

ती ल्हान जीव आनी किडी खाता. हाका लागून त्यो रातच्या वेळार दिवे वा बल्बाभोंवतणी दिश्टी पडटात. पाल किडी खाता म्हणून ती मनशाक खूब फायदेशीर थारता.

– ज. वि. जमदाडे

## पालक : पालेभाजयांखातीर भारतांत पालक ह्या नांवाखाल चिनोपोडिएसी कुळांतल्या दोन वेगवेगळ्या वंशांतल्या वनस्पतींची लागवड करतात.१) बीटा व्हल्गॅरिस प्रकार बेंगालेन्सिस (इंग्लीशः इंडियन स्पिनाच; हिंदीः पालक) आनी २) स्पिनेशिया ओलेरॅशिया (इंग्लीश : स्पिनाच; हिंदी : विलायती पालक हांचीं पानां भाजयेखातीर वा सॅलडाखातीर वापरतात.

**देशी पालक :** हे वनस्पतीचीं सादारण लक्षणां बिटावरी आसात. भारतांत वेगवेगळ्या हवामानांनी हें पीक लागवडीखाला आसा. खर गीम आनी कडक शीं सोडल्यार हेर तेंपार ह्या पिकाची लागवड करूं येता.

पूण शिंया तेंपार हें पीक चड बरें जाता. हाचे वेगवेगळे प्रकार भारतांत लागवडीखाल आसात. हातूंत 'ऑल ग्रीन' ह्या प्रकाराची चड नामना आसा. वाफ्यांत बी उडोवन वर्सातल्यान तीन वा चड खेपे पेरणी करतात. हॅक्टराक ३० किलो बीं लागता. जमनीचे मशागती वेळार हॅक्टराक दरेके तोडणेउपरांत २० किग्रॅ. नायट्रॉजन दिल्ल्यान नवीं पानां रोखडींच आनी भरपूर प्रमाणांत येतात. तोडपाआदीं १५-३० सेंमी. लांबायेचीं लुसलुशीत पानां तीं जून जावचेआदीं देंठासयत तोडतात. हे भाजयेचें सगळ्यांत चड पीक म्हळ्यार हॅक्टेराक ८,००० ते १०,००० किग्रॅ. पानां मेळटात. भारतात सपाट प्रदेशांत द्विलिंगी, देंठ नाशिल्लीं आनी वाऱ्यावरवीं परागसिंचन जाल्लीं फुलां येतात. उपरांत फळां आनी बियो मेळटात.

ह्या पिकार सर्कोस्पोरा बेटीकोला ह्या कवकाक लागून जावपी रोग सगळ्यांत म्हत्वाचो. पानार तपकिरी रंगाचे तिबे पडून रोगेल्लो भाग चडसो गळून पडटा. पिकाची लुवणी करतकच पल्लो एकठांय करून जळप वा पिकाची फेरपालट करप हो पिडेचेर म्हत्वाचो उपाय. ताम्रयुक्त कवकनाशकाची फवारणीय करतात. हाका लागून पानां जेन्ना भाजयेखातीर वापरतात तेन्ना तीं उदकांत बरीं धुवप गरजेचें आसता.

**विलायती पालक** : ही एक वर्सभर जगपी वखदी वनस्पत. मूळची आशियांतली. ह्या झाडाची सुर्वेक वाड जावंचे आदीं खोड मोटवें आनी जमनीभरवण आसून ताचेर घोंसांनी पानां येतात. फूडें खोड उंच वाडटा आनी पानांच्या खांचींतल्यान ताचेर खांदयो येतात आनी मुखेल खोडार खांदयेच्या पानांचे खांचींत फुलां येतात. पानां सादीं आसून कांय प्रकारांनी तीं गुळगुळीत वा कांय प्रकारांनी खडबडीत आसतात. पानांचो देंठ लांब आनी तांबसो आसता. हाचें बीं कांय प्रकारांनी गुळगुळीत जाल्यार कांय प्रकारांनी खडबडीत आसतात. हाचीं हेर सामान्य लक्षणां चिनोपोडरसी कुळांत वर्णिल्लेवरी आसात. हें चडशें थंड हवामानांत वाडपी पीक. उत्तर आनी दक्षिण भारतांत हे पालेभाजयेची लागवड दोंगराळ वाठारांत मर्यादीत प्रमाणांत जाता.

**सुदारीत प्रकार** : (अ) व्हर्जिनिया सॅव्हॉय : हातूंत पानां व्हड आनी काळसर पाचवीं आसून दरेका जाग्यार फोडावरी दिसतात. बीं कांटेरी आसता. (आ) अर्ली स्मूथ लीफ : हातूंत पानां लेव पाचवीं, तोंकाकडेन अशीर, गुळगुळीत आनी व्हर्जिनिया सॅव्हॉय परस ल्हान आसतात. ह्या झाडाचें उत्पादन सपाट प्रदेशांत जाल्यार व्हर्जिनिया सॅव्हाय हाचें उत्पादन दोंगराळ वाठारांत करतात.

- कों. वि. सं. मं.

## पाळकार, गुंडलो धाकटु : (जल्म :२४ जानेवारी १९३२, सावय वेंरे, फोंडें).

सुटकेझुजारी. सुटके चळवळीच्या काळांत म्हाड्डोळ, बाणस्तारी, दुर्भाट, फोंडें, उजगांव खांडेपार आनी सावड्डें ह्या वाठारांनी वण्टीपत्रकां लावप, लिपचोरयां बसका घेवन फुडल्या बेतांची थारावणी करप असलीं कामां तो करतालो. ९ ऑगस्ट १९५४ दिसा पोलिसांनी चवकशी काडपाखातीर ताच्या बापायक धरून व्हेलो. बापायक धरून व्हेला हें कळटकच थंय आपल्या बापायचे कशे हाल करतले हें चिंतून तो आपूण पोलिसांक वचून मेळ्ळो. ताणें चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगली. १९७२ वर्सां भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## पालकार, विनायक सोनू : (जल्म : १९३५, सावय वेरें, फोंडें).

सुटकेझुजारी. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. आझाद गोमंतक दल संघटनेन वज्रे गांवांत घडोवन हाडिल्ल्या लस्करी प्रशिक्षण शिबिरांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तो पत्रकांय वांट्टालो. ६ डिसेंबर १९५७ दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत घालो. ९ जून १९५७ दिसा ताका स म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली आनी स म्हयने दंड भरूंक लायलो. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## पालकार, शंभू सोनू : (जल्म : ७ डिसेंबर १९२९, खांडेपार - फोंडें).

सुटकेझुजारी. १९५२ सावन तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५२-५५ ह्या काळांत बसकांनी वांटो घेवप, पत्रकां लावप, तीं वांटप, भारताचे राश्ट्रीय दीस मनोवप, तिरंगी बावटे लावप असलीं कामां तो करतालो. ३१ डिसेंबर १९५४ ह्या दिसा ताणें मोहन रानडे हाच्या फुडारपणाखाल बाणस्तारी पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत वांटो घेतिल्लो. जून १९५५ त ताणें पाळी मिनाखणीचेर धाड घालपांत वांटो घेतिल्लो. सालाझाराक तेंको दिवपी कुस्तोदियु फेर्नांदीश हाच्या खुनाच्या आरोपाखाला १० ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा ताच्या घराचेर धाड घाली. १२ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका घरलो आनी पणजी पोलीस ठाण्यार व्हेलो. ताचेकडल्यान ताच्या वांगड्यांचीं नांवां कळचीं, तशेंच ताणीं धाडींत हस्तगत केल्ल्या अवजारांची म्हायती मेळची देखून पोलिसांनी ताचो खूब छळ केलो. २६ डिसेंबर १९५६ ह्या दिसा ताका प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून २१ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त तशेंच दिसाक २० इश्कूद प्रमाण दोन वर्सां दंड फर्मायलो आनी २० वार्साखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. गोंयचे सुटके उपरांत ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९६३, १९७२ आनी १९७६ ह्या वर्सांनी तो सावय-वेरें वाघुर्मे ग्रमापंचायतीचो वांगडी म्हणून वेंचून आयिल्लो. १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## पालकर, सोनू गुणू : (जल्म : १९०५, सावय वेरें, फोंडें).

सुटकेझुजारी. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. तो सुटके चळवळींत वांटो घेता ह्या आरोपाखाला ताका १२ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा अटक केली. ताका बंदखणींत घालो आनी ऑगस्ट १९५७ त सोडलो. ६ डिसेंबर १९५७ ह्या दिसा ताका परत अटक केली. ताका प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून दोन वर्सां खर बंदखण आनी १ वर्स दंड भरपाय वा ताचेबदला १ वर्स बंदखणीची

ख्यास्त फर्मायली. तशेंच ताची सगळी आस्पत जप्त केली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**पालखी :** देवदेवता, धर्मगुरू, गिरेस्त लोक, सरदार हांकां खांद्याचेर उबारून व्हरपाचें एक वाहन. संस्कृतांतल्यान पर्यंकिका पल्लंकिआ - पालखी अशे तरेन तो शब्द रूढ जाला. शिबिका, मेणा हे हाचेच वेगवेगळे प्रकार. 'मेणा' हो शब्द मात खास करून भोवमानादीक व्यक्तींक उबारून व्हरपाच्या साधानाकूच वापरतात.

पुर्विल्ल्या काळासावन पालखेचे वेगवेगळे प्रकार रूढ आशिल्ले. नहुषान सप्तर्षींक पालखी व्हरपाक सांगले, आदी कथा पुराणांत मेळटात. हालींच्या काळांत खास करून देवतांच्यो मुर्ती उबारून व्हरपाखातीर पालखेचो उपेग करतात. खेड्यांतल्यान ग्रामदेवतांच्यो जात्रा भरतात. तेन्ना उत्सवमुर्तींक पालखेंत बसोवन तांची गांवांतल्यान मिरवणूक काडटात.

वारकरी संप्रदायांतले लोक आषाढी आनी कार्तिकी एकादशीक पढंरपूराक वतात. तेन्ना ते आपले वांगडा संतांच्या पादुकांच्यो पालख्यो व्हरतात. महाराष्ट्र आनी कर्नाटक ह्या प्रांतांनी पांडुरंगाचे कितलेशेच म्हान भक्त जावन गेले. त्या भक्तांचीं समाधी थळां वेगवेगळ्या सुवातींनी आसात. ह्या वेगवेगळ्या थळांकडल्यान ह्या संतांच्यो पादुका घेवन पालख्यो पंढरपूराक वतात. तांचेवांगडा भजन कीर्तन करीत हजारांनी वारकरी वतात. पालखेचो सुवाळो हें महाराष्ट्राचें एक खाशेलपण जालां.

पालखी लाकडाची आसता. तिका फाटीं आनी फुडें एक वा दोन दांडे आसतात. फाटीं आनी फुडें एकेक वा दोग दोग जाण खांद्यांचेर दांडे घेवन पालखी व्हरतात. गरजेप्रमाण चड जाणूय पालखी व्हरतात. दांड्यांच्या तोंकांक हत्ती, वाघ, घोडे आदी जनावरांचीं लाकडाचेर कोरांतिल्लीं वा धातुनिर्मीत तोंडां बसयल्लीं आसतात. कांयकडेन सबंद पालखीभर भांगराचो वा रुप्याचो पत्रो बसयल्लो आसता. पालखेक विलोदाचें पांखें आनी गोंड्यांची झालर लायिल्ली आसता. महाराष्ट्रांत पालखेक खांद मारपी लोकांक 'भोई' म्हण्टात.



देवाची पालखी

उत्तर महाराष्ट्रांत देवस्थानाचे पालखेक खांद मारपाचो खास मान भोई लोकांकडेन पिळगेन पिळगी चलत आयला. म्हातारे, अपंगूळ, पांयांनी चड वेळ चलूंक शक्य ना अशा लोकांक व्हरपाखातीर दोंगराळ वाठारांनी पालखेसारके 'डोली' चो वा कावडीचो उपेग करतात. पयलींच्या काळांत लग्न-मुजीच्यो मिरवणुको पालखेंतल्यान काडटाले. मोगल काळांतल्यो राजपूत आनी मोगल बायलो मेण्यांतल्यान प्रवास करताल्यो. शंकराचार्य आनी हेर कांय म्हान व्यक्ती आयज लेगीत पालखेंत बसून वतात. मुंडा आदिवासींतले गिरेस्त लोक व्हंकलेचे वरातींत आयज लेगीत पालखेचो उपेग करतात.

सद्याक गोंयांत पालखेचो वापर देवस्थानापुरतोच जाता. थरावीक दिसा देवाक पालखेंत बसोवन वाजत गाजयत, मिरवणुकेन पालखी देवळाच्या प्राकारांत फिरयतात. थरावीक अंतराचेर तिका थांबोवन तिच्या मुखार गायन-नर्तन जाता. पालखी खांद्यार घेवपी, तिचे मुखार मशाल, तोरण धरपी, गायन नर्तन करपी, पुजा अर्चा करपी आनी दंड, छामर धरपी हे समाजांतल्या थरावीक गटांतले लोक आसून तांच्या घराण्यांत हें काम परंपरेन चलत आयलां .

– कों. वि. सं. मं.

**पाल, बिपिनचंद्र :** (जल्म : ७ नोव्हेंबर १८५८, मरण : २० मे १९३२).

भारतीय स्वातंत्र्य झुजांतलो एक नामनेचो बंगाली फुडारी. ताचो जल्म उच्च मध्यमवर्गीय कुटुंबांत जालो. ताचो बापूय रामचंद्र पाल हो जमीनदार आनी वकील आशिल्लो. उपरांत तो मुन्सफच्या पदार पावलो. बिपिनचंद्राची आवय नारायणीदेवी हिणें फावो तें शिक्षण घेवंक नाशिल्लें पूण शिस्त आनी धर्मीक बाबींचेर तिचें बारीक लक्ष आशिल्लें. ताचो बापूय वैश्णवपंथी आशिल्लो.



बिपिनचंद्राचें मुळांवे शिक्षण घराच जालें. उपरांत ताणें दोन मिशनरी आनी एका सरकारी माध्यमिक विद्यालयांतल्यान इंग्लीश शिक्षण घेतलें आनी १८७४ वर्सा कलकत्ता विद्यापिठाची प्रवेश परिक्षा दिली. फुडें ताणें प्रेसिडॅन्सी म्हाविद्यालयांत प्रवेश घेतालो पूण दोन खेपे नापास जातकच ताणें ह्या उपचारीक शिक्षणाचो नाद सोडलो. त्याच अदमासाक ब्राह्मोसमाजाचो ताचेर खूब प्रभाव पडलो. बिपिनचंद्रान ब्राह्मो समाजाची दीक्षा घेतली तेन्ना ताच्या बापायक खूब वायट दिसलें.

विद्यार्थीदशेत बिपिनचंद्रान खूब वाचन केलें. ब्राह्मो समाजाचो केशवचंद्र सेन हाच्या विचारांचो ताचेर खूब प्रभाव पडलो. तशेंच पी. के. रॉय, आनंदमोहन बोस, द्वारकानाथ गांगुली ह्या विद्वानांचोय ताचेर प्रभाव पडलो.

१८८१ वर्सा तो नृत्यकालीदेवी हे ब्राह्मण विधवेकडेन पयले खेपे लग्न जालो. तिच्या मरणा उपरांत धा वर्सांनी १८९१ वर्सा ब्रिजमोहनीदेवी हे विधवेकडेन दुसरें लग्न जालो.

सुर्वेक ताणें शिक्षकी पेशा आपणायलो. खबरांपत्रांच्या वेवसायातूंय

ताका गोडी आशिल्ली. १८७९ वर्सा कटक, १८८० वर्सा सिल्हेट हांगा १८८१ वर्सा बेंगळूर, १८८६ वर्सा हबिबगंजाक ताणें मुख्याध्यापक म्हणून काम केलें. मजगतीं १८८० वर्सा ताणें 'परिदर्शक' हें बंगाली सातोळेंय सुरू केलें. उपरांत १८८२ वर्सा तो 'बँगॉल पब्लिक ओपिनियन' हाचो साहाय्यक संपादक जालो. १८८७ वर्सा तो लाहोरच्या 'ट्रिब्युनां'त साहाय्यक संपादक म्हणून रुजू जालो. उपरांत कलकत्त्याच्या ग्रंथालयांत ग्रंथपाल म्हणून ताणें कांय काळ काम पळयलें. १८९०-९१ ह्या काळांत तो ग्रंथालयाचो सचिवूय जालो. हें सगळें करतना तो काँग्रेसीच्या अधिवेशनांकूय हाजीर रावतालो. ताणें आसामांतल्या च्याच्या मळ्यांतल्या कामगारांचो प्रस्न सोडोवपाखातीर मुखेल आयुक्त हॅन्री कॉटन हाका तातूंत लक्ष घालपाक लायलें.

बिपिनचंद्र धर्मशास्त्राचो अभ्यास करपाखातीर १८९८ वर्सा शिश्यवृत्ती घेवन इंग्लंडाक गेलो. पूण एका वर्साभितरूच ताणें ही शिश्यवृत्ती सोडली आनी थंय तो राजकीय वावर करूंक लागलो. १९०१ वर्सा भारतांत परततकच १९०२ वर्सा ताणें 'न्यू इंडिया' हें खबरांपत्र सुरू केलें.

बंगालाचे फाळणे उपरांत लोकमान्य टिळक आनी लाला लजपतराय हांचे वांगडा ताणें स्वदेशीच्या चतु:सूत्रीचो नेटान पुरस्कार केलो. बंगालभर व्याख्यानां दिवन जागृताय हाडली. मद्रासाकूय ताणें भाशणां दिलीं. १९०६ वर्सा ताणें 'वंदेमातरम्' हें दिसाळें सुरू केलें आनी अरविंद घोष हाका ह्या दिसाळ्याचो संपादक केलो. १९०८-११ ह्या वर्सांनी तो इंग्लंडाक वचून रावलो. ह्या काळांत ताणें एम्पायर आयडिया' नांवाचें एक तत्त्व मांडलें. भारत ही आपशासीत वसणूक म्हणून ब्रिटीशांक सहकार करतालो असो ह्या तत्त्वाचो विचार आशिल्लो. भारतांत परतून येतकच ताच्या एका लेखाक लागून ताका एका म्हयन्याची ख्यास्त जाली.

बिपिनचंद्र होमरूल लीगाचो वांगडी आशिल्लो. तेच भाशेन तो काँग्रेसीचोय निश्ठावान कार्यकर्तो आशिल्लो. १९१९ वर्सा संयुक्त संसद समितीमुखार गवाय दिवपापासत काँग्रेसीचें जें शिश्टमंडळ गेल्लें तातूंत बिपिनचंद्र आशिल्लो. तो एक तत्त्वचिंतक आशिल्लो. देशाची सर्वांगीण तयारी जालेबगर ताका स्वातंत्र्य नाका आशिल्लें. ताणें गांधीजीचे असहकार चळवळीक खूब विरोध केलो. चित्तरंजन दास आनी स्वराज पक्ष हांचेरूय खूब टिका केली. १९२०-२५ ह्या काळांत मौलाना मुहंमद अली हाचेवांगडा जातीय प्रस्नाविशीं ताचे खूब मतभेद जाले आनी वाद निर्माण जाले. आपल्या व्यक्तिनिश्ठ धोरणांक लागून खुबशा व्यक्तींकडेन ताचे मतभेद जाल्ल्यान तो एकलो पडलो. १९२८चे सर्वपक्षीय परिशदेक तो उपस्थीत आशिल्लो पूण खास अशें कसलेंच काम ताणें आपणायलेंना. ताणें जायतीं खबरांपत्रां सुरू केलीं. आपले विचार ताणें ह्या दिसाळ्यांतल्यान मांडले. ताचें 'वंदेमातरम्' हें दिसाळें खूब गाजलें.

त्याकाळावयल्या व्हड व्यक्तींचीं चरित्रांय ताणें बरयलीं. तातूंत व्हिक्टोरिया राणी, केशवचंद्र सेन, रवींद्रनाथ टागोर, राजा राममोहन रॉय, अरविंद घोष, आशुतोष मुखर्जी हांच्या चरित्रांचो आस्पाव जाता.

'इंडियन नॅशनॅलिझम' (१९१८) 'द न्यू इकॉनॉमिक मेनेस टू इंडिया' (१९२०) आनी 'ब्राह्मोसमाज अँड द बॅटल ऑफ स्वराज्य इन इंडिया' (१९२६) हां ताचीं नामनेचीं पुस्तकां. 'मॅमरीस ऑफ माय लायफ अँड टायम्स' (१९३२) ह्या नांवान ताणें आपलें आत्मचरित्र बरयलें.

बिपिनचंद्र एक बरो वक्तो आशिल्लो. लाल (लाला लजपतराय), बाल (बाळ गंगाधर टिळक) आनी पाल (बिपिनचंद्र) ह्या तिगांयनी वंगभंग, स्वदेशी आनी बहिश्काराचें आंदोलन उबारून जनजागृताय केली.

- कों. वि. सं. मं.

**पालयेंकार, अनंत तुकाराम :** (जल्म : २० मार्च १९२४, कायसूव -बारदेस).

सुटकेझुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो पत्रकां वांटप, वण्टी पत्रकां लावप असलीं कामां करतालो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा, कायसुवा जो सत्याग्रह जाल्लो तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी एक वर्स पणजे बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताका १० वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. फुडें पांच वर्सांनी ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पाली भास :** पाली ही एक प्राकृत भास आसून हे भाशेंत बौद्धांचें चडशें सगळें धर्मीक वाङ्मय ग्रंथीत केल्लें आसा. जातकांची, 'धम्मपद', 'दीघनिकाय' ह्या बौद्ध धर्मग्रंथाची ही भास. पाली हाचो मूळ अर्थ 'वळ' वा 'पंगत' असो आसून खंयच्याय धर्मग्रंथातलें वचन वा उतारो असोय पाली ह्या शब्दाचो अर्थ उपरांत लक्षणेन आयला.

पाली ही खंयच्या प्रदेशाची मूळ भास आशिल्ली, हे विंशी अभ्यासकांचे मतभेद आसात. प्रा. -हीस डेविड्स हाच्या मतान, सनापयलीं ६व्या आनी ७व्या शेंकड्यांनी कोशल देशांत ही भास उलयताले. वॅस्टरगार्ड आनी ई. कुरन हे पालीक उज्ञयिनी प्रदेशांतली पाली मानतात. गिरनारच्या शिलालेखाकडेन पालीभास चड लागीं आशिल्ल्यान विंध्यप्रदेश हें पाली भाशेचें उगमस्थान अशें फ्रॅंक आनी स्टेन कनौ ह्या विद्वानांचें मत आसा. जर्मन विद्वान गायगर हाणें पाली हें मागधीचें एक रूप आशिल्लें अशें मानलां. भाशेचे नदरेन पाली ही मध्ययुगीन भारतीय आर्य भाशेचें एक रूप आसून सनापयलीं सव्या शेंकड्यासावन तिचो विकास सुरू जाला अशें मानतात. ताचे पयलींचें भारतीय आर्य भाशेचें स्वरूप वैदिक वाङ्मयांत आनी रामायण, महाभारत ह्या ग्रंथांनी मेळटा. तिका क्रमान वैदिक आनी संस्कृत भास अशीं नांवां आसात.

कालमानाप्रमाण ह्या प्राचीन भाशांचे प्राक् मध्यकालीन (सन पयलीं ६०० ते इ. स. १००), मध्यकालीन (इ. स. १०० ते ६००) आनी उत्तर मध्यकालीन (इ.स. ६०० ते १०००) अशे तीन कालखंड आसात. ह्या सगळ्या भाशांक प्राकृत हें सामान्य नांव दिलां. प्राक् मध्यकालीन भाशांचें स्वरूप अशोकाच्या प्रशस्ती आनी पाली साहित्य हातूंत दिसता. मध्यकालीन भाशा म्हळ्यार मागधी, अर्धमागधी, शौरसेनी आनी महाराष्ट्री ह्यो आसून, तांचें खूब साहित्य आसा. उत्तर मध्यकालीन भाशांक अपभ्रंश आनी अवहट्ठ अशीं नांवां आसात. वैदिक भास ही यास्क आनी पाणिनी हांच्या काळांत संस्कृत जावन आर्यांच्या शास्त्र आनी धर्म हांची भास जाल्ली. त्याच वेळार आर्यांची बोलीभास विकसीत जावन तिणें नवें रूप घेतलें. मगध वा कोशल ह्या प्रांतांत ते भाशेन जें रूप घेतलें तीच पाली भास. हाचेवयल्यान संस्कृत आनी पाली हांचो विकास विंगड विंगड पद्दतींनी जाल्लो, हें दिसता. संस्कृत भाशेपसून, पालीचें वेगळेपण दिसता.

तें अशें - (१) ऋ, ऌ, ऐ आनी औ ह्या स्वरांचो पाली भाशेंत उपेग जायना. २) हे भाशेंत ऱ्हस्व ए आनी ऱ्हस्व ओ हे स्वर मेळटात. ३) श, ष हे हातूंत मेळनात. ४) ळ् ळ्ह् ह्या व्यंजनांचो प्रयोग संस्कृतापरस चड जाता. दोन स्वरांमदीं येवपी ड् च्या जाग्यार ळ् आनी ढ च्या जाग्यार ळ्ह् येतात. सादारणपणान अ, इ, उ हे संस्कृत ऱ्हस्व स्वर पालींत तशेच उरतात. संस्कृतांतले इ आनी उ हे संयुक्त व्यंजनांचे पयलीं आसल्यार पालींत ते अनुक्रमान ए आनी ओ जातात. देखीक - विष्णु - वेव्हु ; उष्ट्र - ओट्ठ.

संस्कृतांत जंय संयुक्त व्यंजनापयलीं दीर्घ स्वर येता, थंय पालींत तांचें रूप ऱ्हस्व जाता. देखीक - चैत्य - चेतिय, मौर्य - मोरिय. संस्कृत ऋ चें पालींत अ, इ वा उ जाता. देखीक - ऋक्ष - अच्छ, कृत- कित. संस्कृतांतल्या 'क्ष' चें पालींत वख् वा च्छ् जाता. देखीक क्षुधा - खुधा, क्षारिका - छारिका, कक्ष - कच्छ.

पाली भाशेच्या विकासाच्यो चार अवस्था दिसतात त्यो अशो - १ ) त्रिपिटकांत येवपी गाथांची भास. ही सामकी पोरणी भास आसून, वैदिक भाशेपरस मातशी वेगळी. पालींतलीं कांय खाशेलीं रुपां त्या पुर्विल्ल्या काळांतूच तयार जावंक लागिल्लीं. सुत्तनिपाताची भास हें हाचेंच एक उदाहरण.

२) त्रिपिटकाच्या गद्य भागाची भास. गाथांचे भाशेपरस हे भाशेंत पुर्विल्लीं रुपां खूब उणीं आसून नवीं रुपां चड प्रमाणांत आसात. जातकांची भास हें हाचें उदाहरण.

३) उत्तरकालीन पाली गद्य साहित्याची भास. हे भाशेंचे स्वरूप मिलिंदप्रश्न आनी अट्ठसाहित्य हातूंत दिसता. ही एक विकसीत आनी उदात्त गद्य शैली.

४) उत्तरकालीन पाली काव्याची भास. संस्कृताचो वाडटो प्रभाव, हें ह्या काळांतल्या साहित्याचें खाशेलपण. महावंस, दीपवंस, दाठावंस, तेलकटाहगाथा ह्या ग्रंथांनी हे भाशेचें स्वरूप दिसता.

**व्याकरण** : नामांत तीन लिंगा, दोन वचनां आनी आठ विभक्ती आसात. हे भाशेंत संस्कृताभाशेन परस्मैपद आनी आत्मनेपद हे प्रकार आसात. पूण परस्मैपद हेंच चड वापरतात.

पालीची वर्ण वेवस्था अशी आसा -

स्वर : अ, आ, इ, ई, उ, ऊ, ए, ओ.

व्यंजनां : स्फोटक : क, ख, ग, घ, ट, ठ, ड, ढ, त, थ, द, ध, प, फ, ब, भ.

अर्थस्फोटक : च, छ, ज, झ.

अनुनासिक : ङ, ञ, ण, न, म.

अर्धस्वर : य, व.

कंपक : र.

पार्श्विक : ल, ळ.

घर्शक : स, ह.

पुरूशवाचक सर्वनामां अम्ह, तुम्ह आनी सो अशीं आसून स्त्रीवाचक 'सा' अशें आसा. तांची रुपावली अशी आसा - देखीक : अम्ह.

अम्ह

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्र. | अहं | मयं, अम्हे, नो |
| द्वि. | मं., ममं. | अम्हे, अम्हाकं, नो |
| तृ. | मया, मे | अम्हेभि, अम्हेहि, नो |
| च. | मय्हं, मम, अम्हं, ममं, मे | अम्हाकं, अस्माकं, नो |
| पं. | मयो, मे | अम्हेभि, अम्हेहि, नो |
| ष. | म्यहं, मम, अम्हं, ममं, मे | अम्हाकं, अस्माकं, नो |
| स. | मयि | अम्हेसु |

**विशेशण :** ज्या नामाकडेन संबंदीत आसता त्या नामाचें लिंग, वचन आनी विभक्ती तें विशेशण घेता. अकारान्त विशेशणांचें स्त्रिलिंग 'अ' च्या बदला 'आ' जाता. केन्ना केन्ना 'अ' च्या जाग्यार 'इ' लेगीत येता. विशेशणाचें मूळ रूप नामापयलीं जोडून समास लेगीत करपाक मेळटा.

संख्यावाचक शब्दांचो वापर खुबूच घुस्पागोंदळाचो आसा. १ ते १८ ह्यो संख्या विशेशणाप्रमाण चलतात. आकारान्त दर्शक शब्द (देखीक - वीस - वीसा) स्त्रीलिंगी नामाभाशेन चलतात.

**क्रियापद :** क्रियापदांचीं रुपां पुरूष, वचन आनी काळ दाखयतात. हीं क्रियापदां चड करून अस, हु आनी भर अशीं आसात. तांची रुपावली अशी आसा -

**भूतकाळ (अस)**

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्र. | आसिं | आसिम्ह |
| द्वि. | आसि | आसित्थ |
| तृ. | आसि | आसिंसु, आसुं |

**(हु)**

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्र. | अहोसिं | अहोसिम्ह |
| द्वि. | अहोसि | अहोसित्थ |
| तृ. | अहोसि, अहुवा, अहु | अहेसुं |

**(भर)**

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्र. | अभरिं | अभरिम्ह |
| द्वि. | अभरि | अभरित्थ |
| तृ. | अभरि | अभरिंसु |

**वर्तमान (अस)**

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्र. | अस्मि, अम्हि | अस्म, अम्ह |
| द्वि. | असि | अत्थ |
| तृ. | अत्थि | सन्ति |

**(हु)**

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्र. | होमि | होम |
| द्वि. | होसि | होथ |
| तृ. | होति | होन्ति |

**(भर)**

| | | |
|---|---|---|
| प्र. | भरामिं | भराम |
| द्वि. | भरसि | भरथ |

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| तृ. | भरति | | भरन्ति | |
| | | भविष्य | | |
| | एकवचन | भोववचन | एकवचन | भोववचन |
| 'अस' | | हु | | भर |
| प्र. 'अस' | हेस्सामि, | हेस्साम, | भरिस्सामि, | भरिस्साम |
| ह्या | हेस्सं | हेहिम | भरिस्सं | |
| धातूक | हेहिमि, | होहिम | | |
| भविष्य | होहिमि | | | |
| काळाची | | | | |
| द्वि. रुपावली | हेस्ससि, | हेस्सथ, | भरिस्ससि | भरिस्सथ |
| ना | हेहिसि | हेहिथ | | |
| | होहिसि | होहिथ | | |
| तृ. | हेस्सति, | हेस्सन्ति, | भरिस्सति | भरिस्सन्ति |
| | हेहिति, | हेहिन्ति, | | |
| | होहिति | होहिन्ति. | | |

– डॉ. एस्. एस्. फडके.

**पाली साहित्य :** गौतम बुद्धान आपलो संदेश सर्वसामान्य लोकांमेरेन पावोवपाखातीर हे भाशेचो वा हे भाशेच्या त्या काळांतल्या स्वरुपाचो आदार घेतलो, देखुनूच बौद्ध धर्माच्या उदयावांगडाच पाली साहित्याचोय उदय जालो. बौद्धांचें चडशें धर्मीक साहित्य हे भाशेंत आसा.

बुद्धाचे चडशे सगळे शिश्य, बुद्धाचो उपदेश तोंडपाठ करपाचो यत्न करताले. हे मौखिक परंपरेच्या आदाराचेर बुद्धाच्या उपदेशांक साहित्यीक रूप दिवपाखातीर तीन खेपे संगीती (धर्मपरिशदो) भरल्यो. बुद्धाच्या निर्वाणाउपरांत चार म्हयन्यांनी भरिल्ले पयले संगीतींत पांचशें भिक्षूंनी वांटो घेतिल्लो. म्हणून तिका 'पंचशतिका' अशें नांव मेळ्ळां. हे सभेचो अध्यक्ष महाकाश्यप हाणें बुद्धाचो शिश्य भिक्षू उपाली हाका विनयाविशीं आनी स्थविर आनंद हाका सुक्ताविशीं प्रस्न विचारले आनी हेर भिक्षूंचे परवानगेन ताणें तांचो संग्रह केलो. अशेच तरेची दुसरी संगीती बुद्धीनिर्वाणा उपरांत शंभर वर्सांनी भरली. हातूंत सातशें भिक्षू उपस्थीत आशिल्ले महास्थाविर रेवताचे अध्यक्षताये खाला हे संगीतींत धम्माचें संकलन केलें. बुद्धाच्या सगळ्या वचनांचे तीन पिटक, पांच निकाय, णव आंगां आनी चवद्यांयशी हजार धर्म स्कंध अशा विभागानी वर्गीकरण केलें अशें आचार्य बुद्धघोषान म्हळां. तिसरी संगीती सम्राट अशोकाच्या काळांत बुद्धनिर्वाणा उपरांत २३६ वर्सांनी पाटलीपुत्रांत भरली. हे संगीतीचो अध्यक्ष मोग्गलिपुत्त तिस्स हाणें णव म्हयने ही सभा चलयली. हे सभेंत बुद्धाच्या वचनाक निमाणचें रूप दिलें आनी सुत्तापिटकांतल्या सिद्धांतांच्या आदाराचेर अभिधम्मपिटकाची रचना केली.

मूळ पाली साहित्य तीन भागांनी विभागलां आनी तांका पिटक अशें नांव दिलां. त्रिपिटकांत विनयपिटक, सुत्तपिटक आनी अभिधम्मपिटक हांचो आस्पाव जाता. विनयपिटकाचे सुत्तविभंग, संघक आनी परिवार अशे तीन पोटविभाग आसात. सुत्तविभाजाचे परतून पाराजिक आनी पाचित्तिय आनी संघकाचे महावग्ग आनी चुल्लवग्ग अशे दोन विभाग आसात. विशय, विस्तार आनी रचना हे नदरेन सुत्तपिटक हो त्रिपिटकाचो म्हत्वाचो भाग. हातूंत भगवान बुद्धाच्या वा सारिपुत्त, मोग्गालान ह्या ताच्या शिश्यांच्या उपदेशांचो संग्रह आसा. सुत्तपिटकाचे दीघनिकाय, मज्झिमनिकाय, संयुक्तनिकाय, अंगुत्तरनिकाय आनी खुद्दनिकाय अशे पांच निकाय म्हळ्यार भाग आसात. पयल्या चार निकायांची मांडावळ संभाशण पद्दतीन केल्ली आसून खुद्दकनिकायांत वट्ट १५ ग्रंथाचो आस्पाव जाता.

अभिधम्मपिटकांत बुद्धाच्या दार्शनिक विचारांची विस्कटावणी केल्ली आसून तांचें वर्गीकरणूय केल्लें आसा. हातूंत धम्मसंगणि,विभंग, धातुकथा, पुग्गलपंजत्ति कथावत्थु, यमक आनी पट्ठान अशे सात ग्रंथ आस्पावल्यात. हें पिटक सगळ्यांत निमाणें रचिल्लें आसून ताचो कांय भाग सिंहलद्वपांत तयार जालो आसुंये अशें अभ्यासकांचें मत आसा.

त्रिपिटके उपरांत साहित्याचीं दोन युगां मानतात. पयल्या युगांतलो सगळ्यांत म्हत्वाचो ग्रंथ म्हळ्यार 'मिलिंदपञ्हो'. मिलिंद हे मीनांदर ह्या ग्रीसी राजाच्या नांवाचे रुपांतर. सनापयलीं दुसऱ्या शेंकड्यांत ताणें भारताचेर घुरी घालून पंजाबांत आपलें राज्य स्थापन केलें. हो राजा व्हड विद्वान आशिल्लो. ताणें भिक्षू नागसेनाक कांय मार्मिक प्रस्न विचारले आनी नागसेनान हुशारेन तांकां जापो दिल्यो. हे सगळे प्रस्न जापो ह्या ग्रंथांत एकठायल्यात. ह्या ग्रंथांत बहिरकथा, लक्सणपञ्हो, विमति-छेदनपञ्हो, मेंडकपञ्हो, द्युतंगकथा आनी ओपम्मकथापञ्हो अशे सात अध्याय आसात.

इ. स. चो ५ वो ते ११ वो शेंकडो हो त्रिपिटके उपरांतच्या साहित्याचें दुसरें यूग. त्रिपिटकाच्या अट्टकथांनी ह्या युगाचो आरंभ जाता. पुर्विल्ले सिंहली भाशेंतल्या अट्टकथांचेर पाली अट्टकथा आदारल्यात. आचार्य बुद्धघोषान त्यो रचल्यात. अशा ह्या सोळा अट्टकथा वांगडाच ताणें 'विसुद्धिमग्ग' नांवाचो बौद्ध धर्माच्या सिद्धांतांचें स्पश्टीकरण करपी ग्रंथूय बरयला.

बुद्धघोषा उपरांत बुद्धदत्त, धम्मपाल, उपसेन, महानाम ह्या ज्ञानी भिक्षुंनीय अट्टकथा बरोवन दवरल्यात. अट्टकथांचेर टिका बरयल्यात. अट्टकथांतल्यान त्रिपिटकांतल्या मूळ पाली ग्रंथातल्यो शब्दांचो अर्थ दिल्लो आसता. वैदिक ब्राह्मण ग्रंथांच्या अर्थवादाप्रमाण इतिहास आनी आख्यानांय आसतात, प्रसंगाप्रमाण पुराणीक, पारंपारीक आनी कल्पीत कथा आसतात.

पेटकोपदेस, नेत्तिपकरण हेय कांय म्हत्वाचे ग्रंथ आसात. नेत्तिपकरण हो ग्रंथ त्रिपिटका उपरांतचो पूण अट्टकथांचे पयलींचो. तातूंत बूद्धाच्या उपदेशाचें वर्गीकरण केल्लें आसून १६ 'हार' (विशय) ५ 'नय' (सार - निर्णय करपाच्यो युक्त्यो) आनी १८ 'मूलपदां' (मुखेल नैतिक विशय) हांचो आस्पाव जाता. वेदांच्या संदर्भांत यास्काच्या निरुक्ताचें जें म्हत्व आसा तेंच त्रिपिटकाच्या संदर्भांत नेत्तिपकरणाचें आसा.

नेत्तिपकरणांतलेच विशय पूण मातशे वेगळे तरेन 'पेटकोपदेसांत मांडल्यात. चार आर्यसत्यां हो बौद्ध धर्माचो गाभो आशिल्लयाचें तातूंत दाखयलां.

**वंसग्रंथ** - पाली वंसग्रथांचें स्वरूप बखरी भाशेन आसा. बौद्धांच्या त्रिपिटकांतल्या सुत्तपिटकांत 'बुद्धवंस' नांवाचो एक ग्रंथ आसा. बारा कल्पांच्या काळांत वट्ट २४ बुद्ध जावन गेले, अशें बौद्ध मानतात. ह्या २४ बुद्धांचो पद्य वृत्तांत बुद्धवंसांत आयला. ह्याच ग्रंथाचे धर्तेचेर पाली भाशेंत उपरांत खूब वंसग्रंथ तयार जाले. तातूंतले 'दीपवंस' आनी

'महावंस' हे म्हत्वाचे ग्रंथ. दीपवंसाची लिखाण-शैली सादी जाल्यार महावंसाची अलंकारीक. ह्या म्हत्वाच्या वंसग्रंथाभायर हेर उल्लेख करपासारकेय वंसग्रंथ आसात. 'महाबोधिवंसांत' बोधिवृक्ष सिंहल देशांत कसो हाडलो हाची कथा आसा. 'थूपवंसांत' (स्तूपवंस) भगवान बुद्धाच्या पवित्र अवशेशांचेर उबारिल्ल्या स्तुपांची म्हायती आसा. 'दाठावंस' (सुमार तेरोवो शेंकडो) हो ग्रंथ धम्मकित्ती (धर्मकीर्ती) नांवाच्या सिंहली भिक्षून सिंहली भाशेंतल्या एका ग्रंथावयल्यान पालींत अणकारला आनी तातूंत बुद्धाचो दांत त्या श्रीलंकेंत कसो आयलो हाचें वर्णन केलां. 'हत्थवनगल्लविहारवंस' हाचे ११ अध्याय आसात. 'छ - केस - धातुवंस' आनी 'नलाटधातुवंस (ललाटधातुवंश) हे चड करून एकुणिसाव्या शेंकड्यांतले ग्रंथ अशें दिसता. 'गंधवंस' (ग्रंथवंश) आनी 'सासनवंस' (शासनवंश) हे दोन ग्रंथ पाली साहित्य-इतिहासाचे नदरेन म्हत्वाचे आसात. थायलंडांत अठराव्या शेंकड्यांत भदन्त वनरतन (सोमदेज वनरतन) हाणें बरयल्ल्या 'संखीती वंस' नांवाच्या ग्रंथांत बौद्धांच्या णव संगीतींचो उल्लेख आसा.

**संखेप - संग्रह :** व्हड विशयांचें सार सांगपी संक्षेप - संग्रह - संकलन ग्रंथ पाली साहित्यांत खूब आसात. अशेंच तरेचो 'सच्चसंखेप' (सत्यसंक्षेप) हो ग्रंथ आसा. ह्या ग्रंथाच्या कर्त्याविशीं जाणकारांभितर खूब मतभेद आसात. कांय जाण हो ग्रंथ धम्मपालाचो जाल्यार कांय जाण तो आनंद हाचो मानतात. 'अभिधम्मत्थसंग्रह' हो अभिधम्माचो सारभूत ग्रंथ सिंहली भिक्षू अनिरुद्ध हाणें बरयला. 'सद्धम्मसंग्रह' हो धम्मकित्ती महासामी (धर्मकीर्ती महास्वामी) हाचो ग्रंथ आसा. पाली साहित्यांतले अट्ठकथाकार टिकाकार आनी हेर ग्रंथकारांचीं नांवां त्यांच्या ग्रंथांसयत ह्या ग्रंथांत आयल्यांत.

**कथासाहित्य :** पाली कथासाहित्यांत जातककथा व्हड प्रमाणांत आसात. वेव्हारीक नितीकथा, दीर्घ साहसकथा, विनोदी कथा अशे तरेतरेच्यो जातककथा आसात. बौद्ध धर्माच्या प्रसाराखातीर बुद्धाच्या अनुयायांनी ह्या जातककथांचोच चड वापर केलो. अट्ठकथाकारांनी, स्पश्टी करतना जातककथांचो आदार घेतला. सिंहलद्विपांतले सीहलवत्थुकरण सहस्सवत्थुप्पकरण आनी रसवाहिनी हे ग्रंथ पाली कथा वाङ्मयांत येतात.

**काव्य :** विशयाचे नदरेन पाली काव्याचें वर्णनात्मक काव्य आनी आख्यानात्मक काव्य अशे दोन भेद जातात. अनागतवंस, तेलकटाहगाथा, जिनालंकार, जिनचरित, पज्ज़मधू, सद्धम्मोपायन, पञ्चगतिदीपन आनी लोकप्पदीपसार हे मुखेल वर्णनात्मक काव्यग्रंथ. रसवाहिनी, बुद्धालंकार, सहस्सवत्थुप्पकरण आनी राजा धिराजाविलासिनी हीं आख्यानात्मक प्रधान काव्यां. ह्या दोनूय तरांच्या काव्यांनी नैतिक आदर्शवाद रंगयला.

**व्याकरण - कोश :** कच्चायन हो पाली भाशेचो आद्य व्याकरणकार मानतात. संधिकप्प, नामकप्प, आख्यातकप्प आनी किब्बिधानकप्प हीं कच्चायनाच्या व्याकरणाचीं चार मुखेल प्रकरणां आसात. कच्चायनाच्या व्याकरणाचेर विमल - बुद्धिची 'न्यास' नांवाची टिका आसा. छप्पद हाचो 'सुत्तनिद्देस' आनी महाविजितावी हाचो 'कच्चयनण्णना' हे कच्चायनाच्या व्यारणावयले म्हत्वाचे ग्रंथ. 'रूपसिद्धि' हो कच्चयनाच्या व्याकरण - संप्रदायांतलो एक म्हत्वाचो ग्रंथ.

तेराव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत दक्षिण भारतांतल्या बालादिच्च नांवाच्या विहाराचो अध्यक्ष बुद्धप्पिय दीपंकार हाणें हो ग्रंथ बरयला. ह्या ग्रंथात ७ प्रकरणां आसून ६६८ इतली ताची सूत्रसंख्या आसा. कच्चायन व्याकरणाचेर आदारिल्लो 'बालावतार' हो पाली भाशेंतल्या उपलब्ध व्याकरणग्रंथांतलो सगळ्यांत ल्हान ग्रंथ.

मोग्गल्लान वा मौदगल्यायन हो पाली व्याकरणाची दुसरी परंपरा स्थापन करपी व्याकरणकार. ताणें परक्कमभुज ह्या राजाच्या काळांत आपलो व्याकरणग्रंथ बरयलो. पाणिनी, कातंत्र आनी चद्रगोमी ह्या व्याकरणकारांच्या ग्रंथांचो ताणें आदार घेतिल्लो. ताच्या व्याकरणाचीं स कांडां आसून संस्करणांप्रमाण ८१० ते ८१७ अशीं सुत्रां आसात. आपल्या व्याकरणाचेर मोग्गल्लान स्वताच वृत्ती आनी पंचिका (टिका) बरयल्या. मोग्गल्लानाचो शिश्य पियदस्सी (प्रियदर्शी) हों 'पदसाधन' हो मोग्गल्लान-व्याकरणाचेर आदारीत असो व्याकरणग्रंथ बरयला. वनरतन मेधंकर हाचो 'पयोगसिद्धि' हो मोग्गल्लानाच्या व्याकरण-संप्रदायांतलो एक उत्तम ग्रंथ.

अग्गवंस हो पाली व्याकरणाची तिसरी परंपरा स्थापन करपी व्याकरणकार. ताच्या 'सद्दनीति' (शब्दनीती) ह्या व्याकरणग्रंथांत पदमाला, धातुमाला आनी सुत्तमाला अशे तीन विभाग आसात. अग्गवंसान कच्चायन, पाणिनी हांच्या ग्रंथांच्या आदारान आपलो ग्रंथ बरयला. तशेंच हेर कांय शास्त्रीय ग्रंथांचीय पाली भाशेंत रचना आसा.

सद्धम्मगुरू हाचो सद्दबुत्ती, मंगल हाचो गंधठ्ठी, सामनेर धम्मदस्सी हाचो वच्चवाचक, अरियवंश हाचो गंधाभरण, ब्रह्मदेशाचो राजा क्यच्चा हाचे धुवेन रचिल्लो विभक्त्यर्थप्रकरण, जंबूध्वज हाचे संवण्णानयदीपना आनी निरुत्तिसंग्रह, राजगुरूचो कारकपुप्फमंजरी हेय ग्रंथ व्याकरणाविशींच आसात.

अभिधानप्पदीपिका आनी एकक्खर-कोस हे पालींतले कोशग्रंथ. अभिधानप्पदीपिका हातूंत संस्कृतांतल्या अमरकोशांची पद्दत आपणायाल्या. ह्या ग्रंथांत तीन कांडां आसून सग्गकंडांत (स्वर्गकांडांत) देवता, बुद्ध, शाक्यमुनी, देव-योनी, इंद्र, निर्वाण ह्या शब्दांचे पर्याय दिल्यात. भूकंडांत (भूकांडात) पृथ्वी सारकिल्या शब्दाकडेन संबंदीत आशिल्ले शब्द आसात आनी सामञ्ञकंडांत (सामान्य कांडांत) संकीर्णविशींच्या शब्दांचे पर्याय सांगल्यात. ह्या तीन कांडांचेय विभाग केल्यात. एकक्खर कोस हो ब्रह्मी भिक्षू सद्धम्मकित्ती (सद्धर्मकीर्ती) हाणें बरयला. तातूंत एकाक्षरात्मक शब्दांची पद्यबद्ध वळेरी आसा.

पाली छंदःशास्त्राचेर वृत्तोदय, छंदोविचित, कविसारप्रकरण हे ग्रंथ आसात. वृत्तोदय हो ग्रंथ स्थविर संघराक्खित हाणें बरयल्लो आसून, ताणेंच पाली काव्यशास्त्राचेर 'सुबोधलंकार ' हो ग्रंथ बरयला.

पाली भाशेंतलें अभिलेख साहित्य म्हत्वाचें. सनापयलीं तिसऱ्या शेंकड्यासावन इ. स. च्या पंदराव्या शेंकड्यामेरेन त्या अभिलेखांचो काळ आसा. अशोकाचे शिलालेख, सांची आनी भरदूत ह्या सुवातांवयले अभिलेख, सारानाथाचे पेगनचे शिलालेख आनी कल्याणी अभिलेख हे तातूंतले म्हत्वाचे अभिलेख.

मूळ त्रिपिटक ग्रंथ बर्मी, सिंहली, सयामी आनी रोमी ह्या लिपींनी उजवाडा आयला. राहुल सांकृत्यायन हाणें नागरी लिपींत सुत्तपिटकाचे मज्झिम आनी दीघ हे दोन निकाय आनी विनयपिटकाचो हिंदी अणकार उजवाडायला. खुद्दक निकायाचे इकरा ग्रंथ ताणें मूळ रुपांत उजवाडायल्यात. भदंत आनंद कौसल्यायन हाणें जातकांचो हिंदी अणकार उजवाडायला.

– डॉ. एस्. एस्. फडके.

**पावस :** बाष्पीकरण (evaporation), संद्रवण (Condensation) आनी वर्षण (Precipitation) अशे प्रक्रियेंतल्यान जलावर्तन (Hydrogen cycle) जावन धर्तरेर झडपी उदकाचो एक प्रकार. जलावर्तन म्हळ्यार सातत्यान चलपी सुरवात आनी शेवट नाशिल्ली एक प्रक्रिया. दर्या, न्हंयो, तळीं अशा धर्तरेवयल्या सैमिक उदकासांठ्याचें भूगर्भांतले साठे आनी वनस्पत हांचे मार्फत सुर्याचे उश्णतेन वाफेंत रुपांतर जाता. वाफीकरणाचें प्रमाण थळावें वातावरण, सैमिक उदकाचें वांटप, भूगभीं जडण घडण आनी वनस्पतीचें प्रमाण आनी प्रकार हांचेर थारता. ही वाफ वातावरणांत वयर वतकच हवेच्या उण्या दाबाक लागून प्रसरण पावता. कांय काळांत तिचें संद्रवण जावन कुपांत रुपांतर जाता. कुपाक संतृप्त अवस्था प्राप्त जाली की तातूंतले उदकाचे कण पावस, बर्फ, करे हांच्या रुपांत जमनीर पडटात. पावस हो सैमांत उपलब्ध आशिल्ल्या उदकाची सैमीक रितीन धर्तरी आनी वातावरण हांचेमदीं जाल्ली देवघेव.

इंच) इतकें आसता. पावसाच्या एका थेंब्याचो (diameter) ६ मिमी. (०.२५इंच) हाचे परस क्वचित व्हड आसता. बारीकांतल्या बारीक पावसाच्या थेंब्याची गती ही सादारणपणान सेकंदाक २ मीटर अशी आसता. मोठ्यांत मोठ्या पावसाच्या थेंब्याची गती सेकंदाक १० मीटर आसता. पावसाच्या थेंब्याच्या आकाराप्रमाण आनी स्थितीप्रमाण पावसाचे बारीक पावस (कुंडो कसो पावस), गोठेल्लो पावस (बर्फ, करे), घोग्यांचो पावस अशे प्रकार आसात.

चक्री वादळांत आर्द्र हवा व्हड प्रमाणाचेर वयर वता. हीं चक्री वादळां दर्यावयल्यान देगांचेर येवन आपटतात तेन्ना तेन्ना थंय व्हड पावस पडून म्हापूर येतात. हाचे उपरांत भूपृष्ठावयल्यान वतना कमी कमी जायत वतात. त्या प्रमाणांत पावसाचें प्रमाणूय उणें जायत वता.

भारताच्या उदेत दर्यादेगांचेर खूब खेपो चक्री वादळांक लागून पूर येतात. उत्तर भारतांत २५° उत्तर अक्षवृत्ताचे पलतडीं शिंयांच्या दिसांनी




जलावर्तनासंबंदी खूब आदींसावन ग्रीक, रोमी आनी हेर तत्त्वज्ञानांनी विश्लेशण केलां. तें आयच्या विज्ञानीक कसाक लागलेंना तरी हे प्रक्रियेसंबंदीं ताणीं प्राथमिक अनुमान काडिल्लें. ग्रीक तत्त्वज्ञानी ॲनॅक्सा गॉरस (इ.स. पयलीं ५००-४२८) हाणें सूर्य समुद्राचें उदक वातावरणांत ओडून घेता आनी उपरांत तें पावसाच्या रुपांत जमनीर सोडटा अशें अनुमान काडलें. उपरांत हें उदक जमनींत जिरून ताचो साठो जाल्या उपरांत तातूंतल्यान न्हयांक उदक मेळटा. थिऑफ्रास्टस (इ.स.प. ३७२-२८७) हाणें उदक गोठपांतल्यान उदका थेंब निर्माण जाता अशें अनुमान काडलें. थिऑफ्रास्टसाच्या अभ्यासाचो आदार घेवन रोमन अभियंता मार्कूश व्हित्रुव्हियश हाणें जलावर्तनाची आधुनिक संकल्पना मांडली. फुडें प्रबोधन काळांत फ्लॉरेन्टायन विज्ञानीक लिओनार्दू द विन्सी आनी फ्रेंच विज्ञानीक बॅनार्ड पॅलॅसी आनी पिएर पॅरोल्ट हाणीं पूर्वसुरींच्या सोदांत सुदारणां करून हे प्रक्रियेची विज्ञानीक चिकित्सा केली.

धर्तरेवयल्या पावसाचें सरासरी वर्सुकी प्रमाण १०० सेंमी. (४०

कितलशेच उपोशण कटिबंधीय अभिसारी चक्रवात अस्तंतेकडल्यान येवन उदेंतेकडे वा ईशान्येवटेन वतात. भारताचे अस्तंती किनारपट्टीचेर वर्सांतल्यान २०० ते ३५० सेंमी. पावस पडटा. पूण सह्याद्रीचे उदेंतेकडल्या उत्तर-दक्षिण क्षेत्राचेर वर्सुकी पावसाचें प्रमाण खूब उणें म्हळ्यार फकत ५० सेंमी. आसा. नैऋत्य मॉन्सून हंगामांत बंगालच्या उपसागरावयल्यान येवपी आनी उत्तरेकडे वचपी आर्द्रतायुक्त वारें हिमालयाच्यो पर्वतावळी आडायतात.

आसामांत चेरापुंजी हांगा वर्सांतल्यान सुमार १,१४० सेंमी. पावस पडटा. ईशान्य भारताच्या दोंगराळ वाठारांत पावसाचें प्रमाण खूब आसता. थंयच्या न्हंयांक सतत हुंवार येत आसतात. भारतांत सगळ्यांत चड पावस केरळांत पडटा. थंयचें वर्सुकी पावसाचें प्रमाण सुमार ३०० सेंमी. जाता. ते उपरांत आसाम - मणिपूर - त्रिपुरा ह्या भागांनी वर्सुकी पावस सुमार २५० सेंमी. इतको पडटा. जगांतल्या चडशा खंडांनी अस्तंतेवटेन उंच पर्वतावळी निर्माण जाल्यात. महासागरांवयल्यान भूखंडांकडे येवपी

ओलसार वाऱ्यांक ह्यो पर्वतावळी हुपून पलतडी वचचें पडटा. अशे तरेन पर्वताची चढण चडून वयर वचपी आर्द्र हवेचे क्रियेक लागून पर्वतांच्या अस्तंत भागांचेर वर्सांतल्यान सुमार २५० सेंमी. इतको पावस पडटा आनी उदेंतेकडल्या भागांत वर्सांतल्यान फकत २५ सेंमी. इतको पावस मेळटा.

जगांत वर्सांतल्यान सगळ्यांत चड पावस सुमार १,१७० सेंमी. हवाई बेटांतल्या माऊंट वाइआलेआले हांगा उदेंतेकडल्या दर्यावयल्यान येवपी आर्द्रतायुक्त वाऱ्यांच्या प्रभावाकलागून पडटा. आसामांतल्या चेरापुंजी हांगाचो दुसरो क्रमांक लागता. सादारणपणान सगळ्याच खंडांचेर पडपी वर्सुकी पावसाचीं चार मूल्यां २५ सेंमी. परस उणीं आनी १५० सेंमी. परस चड अशीं आसात. उपोश्ण कटिबंधांतल्या अपसारी चक्रवातांच्या मध्यवर्ती विभागांचेर पावस खूब कमी पडटा. जगांतलीं मुखेल वाळवंटां आनी पडंग प्रदेश ह्याच कटिबंधांत आसात. तातूंतल्या कांय वाठारांनी इल्लोलेगीत पावस पडना. युरोप, दक्षिण अमेरिका, उत्तर अमेरिकेचो उदेंतेकडलो वाठार आनी मध्य आफ्रिका हांगाच्या चडशा भागांनी वर्सांतल्यान ५० सेंमी. परस चड पावस पडटा. अशिया खंडांत भारत, तिबेट आनी चीन हे भाग सोडल्यार, हेरकडे वर्सुकी पावसाचें प्रमाण ५०सेंमी. परस खूब उणें आसता. अरेबियासावन ईशान्य मंगोलियामेरेनच्या पट्ट्यांत वर्सांतल्यान २५ सेंमी. परसूय कमी पावस पडटा. तेचभशेन ऑस्ट्रेलियाचो मध्यवर्ती भाग, आफ्रिका खंडाचे उत्तरेवटेनचो चडसो सगळो भाग आनी नैर्ऋत्य आफ्रिकेचो कांय वाठार, उत्तर अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतल्या दोंगराळ प्रदेशांतलो कांय वाठार, दक्षिण-अमेरिकेच्या अस्तंतेवटेनचो मध्य किनारट्टीचो आनी दक्षिणेकडले उदेंत किनारपट्टीचो कांय भाग ह्या क्षेत्रांनी दरवर्सा २५ सेंमी. परस कमी पावस पडटा.

विषुववृत्त आनी १०° उत्तर ह्या अक्षवृत्तांतल्या आफ्रिकेचे अस्तंती किनारपट्टीचो कांय वाठार, भारताची अस्तंत किनारपट्टी, आसामांतलो कांय वाठार, ब्रह्मदेशाची किनारपट्टी, समशीतोश्ण कटिबंधातली उत्तर आनी दक्षिण अमेरिकेची अस्तंतेकडली दोंगरी किनारपट्टी, उश्ण कटिबंधातले कांय भाग ह्यासारक्या क्षेत्रांचेर दरवर्सा सरासरी २५० सेंमी. परस चड पावस पडटा. खूब उंचायेच्या प्रदेशांचेर तापमान उणें आनी जलबाश्पधारणशक्त खुबूच उणीं आशिल्ल्यान पावस खूब कमी पडटा.

पावसाचें प्रमाण दरवर्सा सारकेंच आसता अशें ना. राज्यस्थानासारक्या कमी पावसाच्या प्रदेशाचेर एकाद्रया वर्सा, सरासरीचे दुपेटीपरस चड वा केन्नाय ताच्या एक तृतीयांशापरसूय कमी आसता. चडसो पावस खंयचेय सुवातेर आनी केन्नाय पडटा. ताका लागून अवर्शण वा म्हापूर येतात.

पावसाचें प्रमाण 'पर्जन्यमापक' ह्या उपकरणान मेजतात. हीं उपकरणां दोन तरांचीं आसात. परलेखी पर्जन्यमापक आनी स्वयंलेखी पर्जन्यमापक. परलेखी पर्जन्यमापकांतलो पावस थरावीक काळांत मापांच्या आदारान मेजून तेप्रमाण निरिक्षणां करतात. स्वयंलेखी पर्जन्यमापकांत अखंडीतपणान आपोआप अभिलेखन जाता.

थरावीक सुवातींनी धर्तरेर आशिल्ल्या उदका साठ्याचें वांटप (शिंपणावळ) सैमीक तजवीज अशी पावसाची अशास्त्रीय व्याख्या करूं येता. थरावीक सुवातींनी आशिल्लो उदका साठ्याचो गरजवंतांक (वनस्पत, मोनजात, मनीस आदी) सरळपणान उपेग जावंक शकना. बाश्पीकरण, संद्रवण आनी वर्षण हे तिट्टी प्रक्रियेंतल्यान थरावीक वाठारांत आशिल्ल्या उदका साठ्याची सबंद धर्तरेखातीर वांटणी जावन, जाका गरज ताका उदक मेळूंक पावता. हे सैमीक मांडावळीक लागून धर्तरेवयल्या थरावीक वाठारांतल्या उदका साठ्याचें बरे तरेन वितरण जावन नवनिर्मितीचे प्रक्रियेंत तांचें पावसाच्या रुपांत योगदान घडटा.

अशें जरी आसलें तरी पावसावरवीं दोन अवर्शणांय घडटात. घोग्याच्या पावसावरवीं येवपी बुट्टी, मनीस आनी वित्तहानी करता. कांयकडेन विशेशकरून देगणांनी पावसाच्या उदकाच्या लोटान जमनीची धूप (erosion) जावंक पावता.

सैमीक प्रक्रियेवांगडाच कृत्रीम रितीन पावस निर्माण करपाची विज्ञातीकांची तयारी चल्ल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## पावसकर, प्रभाकर रामचंद्र : (जल्म : १८ जुलय १९३१ - मोरजी, पेडणें).

सुटकेझुजारी. सुटकेझुजारी आपा करमळकार हाच्या मार्गदर्शनाखाल तो वावर करतालो. बांद्यावयल्यान स्फोटक पदार्थ हाडप, पत्रकां लावप असलीं कामां तो करतालो. २४ सप्टेंबर १९५७ ह्या दिसा मोपा वाठारांत ताका ताच्या वांगड्यांसयत धरलो. ताका पेडणें, पणजी आनी आग्वाद बंदखणींनी दवरलो. १५ मार्च १९५९ ह्या दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. १९७३ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों वि. सं. मं.

## पाशाणकर, सोपान दगडोबा : (जल्म : १ जानेवारी १९३०, पाशाण, हवेली, पुणें, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें एस्. एस्. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. सुर्वेक तो सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी आसलो, उपरांत प्रजा सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी जालो आनी फुडें जनता पार्टीचो वांगडी जालो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा काणकुबीच्यान गोंयांत येवन सूर्ला गांवांत सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतलो. त्या वेळार पोर्तुगीज पोलिसांनी ताका धरून सुमाराभायर मारलो. ५ ऑक्टोबर १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- को. वि. सं. मं.

**पाशाणपुजा :** संवसारांतल्या चडशा सगळ्या देशांनी खंयच्या ना खंयच्या स्वरुपांत पुर्विल्ल्या काळासावन पाशाणाची पुजा करपाची चाल आसा. कसलीय व्हड शिळा, फातर वा कसलोय खांब्याआकाराचो व्हड पाशाण पळयतकच तातूंत अद्‌भुत शक्ती आसतली हे भावनेन ताची पुजा करतात. भारतांत जायत्या जमातींनी फातर वा ल्हान-ल्हान गुण्यांची पुजा करपाची चाल आसा. अशा फातराक शेंदूर लावन तातूंत देवत्त्व हाडटात. खाशेल्या आकाराचे फातर वा खडप जाल्यार ताचेविशीं दंतकथा प्रचलीत आसतात. मनीस, मोनजात, राकेस, यक्ष वा अप्सरा हांकां कोणाच्या तरी शापान पाशाणाचें रूप मेळ्ळें अशें ते दंतकथेंत सांगतात. कांयकडेन उल्कापात जावन कसल्याय विशेश रंगरुपाचो पाशाण पडटा आनी लोक ताची पुजा करतात. मेक्काचो 'काबा' हो असोच पाशाण अशें

म्हण्टात.

जायतेकडेन फातरार वा पाशाणाचेर एके तरेचो छाप आयिल्लो दिसता. तो छाप देव, वीर मनीस, राकेस साधुसंत वा रकिस हांच्या कोणाचो तरी पांयाचो वा हाताचो अशी कल्पना करून ताची पुजा करतात. असले छाप दिसल्यार बौद्ध लोक ते बुद्धाच्या हाताचे वा पांयाचे ठशे अशें समजून ताची पुजा करतात. युरोपांत असले छाप मॅरीच्या वा संतांच्या हातापांयाचे आशिल्ल्याचें मानतात. कसल्याय सपाट फातरार उंचवटो आसल्यार ताची स्वयंभू लिंग म्हणून पुजा करतात.

खंयच्याय फातरांत भूत - पिशाच्च हे सारके अतीमानवी शक्तीचो वास आसा म्हणून आनी खंयचेय उपकारी देवतेची सुवात आसा म्हणूनूय पाशाणाची पुजा करतात. दक्षिण भारतांतले कुणबी लोक आश्विन पुनवेक शेतांतले स फातर वेंचून हाडून तांकां चुनो आनी गेरुचे थिपके लावन, पांच पांडव आनी कुंती म्हणून तांची पुजा करतात. म्हैसुरांतले शानार लोक दोन ओबडधोबड फातरांची देव आनी देवी म्हणून पुजा करतात. गुजरातांत वेताळदेव आनी संभादियादेव, मध्य प्रदेशांत भैसासुर, मुठियादेव, घटोश्यादेव, खेडापती आनी खेडमाता हीं सगळीं पाशाण दैवतां आसात. उत्तर भारतांतल्या खेडेगांवांनी ग्रामदेवता म्हणून खंयच्याय झाडाखाला फातरांची रास रचिल्ली दिसता. कोल्हापूरचो जोतिबा आनी ताची बायल यमाई हांचींय पाशाण प्रतिकांच आसात.

दक्षिण भारतांतल्या स्मार्थ ब्राह्मणांच्या देव्हाऱ्यांत विष्णुचें प्रतीक म्हणून साळीग्राम, शिवाचें लिंग, गणपतीचो तांबडो पाशाण, देवीचें प्रतीक म्हणून धातूचो कुडको आनी सुर्याचो स्फटीक अशे पाशाण आसतात.

कोंकणांतल्या ब्राह्मणांमदीं जेष्ठा गौरी ह्या नांवान न्हंयेंतले फातर हाडून तांची पुजा करपाची चाल आसा. शिमेभायल्या भुतांखेतांसावन गांवाची राखण जावंची देखून कांय लोक फातराची पूजा करतात. गुजरातांतले लोक फातराचेर घोड्याची आकृतीय कोरांयतात आनी ताका खेत्रपाल अशें म्हण्टात. म्हैसूरचे वटेन फातरार शैव वा वैशणव पंथांचीं चिन्ना कोरांतिल्लीं आसतात. दक्षिण भारतांत ग्रामदेवतेचीं बरींचशीं प्रतिकां पाशाण रुपांतूच आसात.

जायतेकडेन रानटी जमातींनी पावस पडचो वा सूर्यप्रकाश मेळचो म्हणून पाशाणाची पुजा करतात. कांयकडेन मेल्ल्या मनशाचें यादस्तीक म्हणून फातर दवरिल्ले आसतात. मनशाच्या निमण्या संस्कारांनी ज्या फातरांचेर उदकाचो बुडकुलो फोडटात ताका अश्मा वा जीवखडो म्हण्टात आनी धा दिसांचें क्रियाकर्म करतना हो जीवखडो मुखार दवरतात. उपरांत तो न्हंयेंत पावयतात.

– कों वि. सं. मं.

**पास्तॅरनाक, बॉरीस :** (जल्म : १० फेब्रुवारी १८९०, मॉस्को; मरण : ३० मे १९६०, मॉस्को).

नामनेचो सोव्हिएत (रशियन) कवी आनी कादंबरीकार. एका सुंसस्कृत ज्यू घराणांत ताचो जल्म जालो. ताचो बापूय चित्रकार आनी आवय पियानोवादक आशिल्ली. संगीतकार जावपाचे नदरेन पास्तॅरनाक हाणें सुर्वेक कांय वर्सां संगिताचें शिक्षण घेतलें. पूण फुडें तो तत्त्वगिन्यानावटेन गेलो. ताणें मॉस्को विद्यापिठांत तशेंच जर्मनींतल्या मारबर्ग विद्यापिठांत ह्या विशयाचो अभ्यास केलो. पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत ताणें युरल्झंमदल्या एका रसायनीक कारखान्यांत काम केलें. रशियन क्रांती उपरांत सोव्हिएत शिक्षण मंत्रालयाच्या ग्रंथालयांत तो नोकरेक आशिल्लो. ताचो पयलो कवितांझेलो 'ब्लिज्नेल्स व्ह तूचाख' (१९१४) उजवाडा आयलो. पूण ताका खरी नामना मेळ्ळी ती 'सिस्त्रा मया झीज्न' (१९२२) ह्या कवितांझेल्याक लागून, ताचे हेर उल्लेख करपासारके कवितांझेले अशे : त्येमी इ व्हारिआत्सी (१९२३), व्हेतरोये रझद्यनिये (१९३२), हांचेभायर ताणें लॅनीनाची जीण, १९०५ चें बंड आनी खऱ्या क्रांतीकारकाची जीण अशा विशयांचेर म्हाकाव्यावरी काव्यांय बरयल्यांत. ताच्या कवितांचेर प्रतीक वादाचो प्रभाव दिश्टी पडटा. सैमाविशीं उपाट मोग आनी सादेपणां हीं ताचे कवितेचीं खाशेलपणां.

ताणें १९३३-१९४३ ह्या धा वर्सांच्या काळांत गटे, शेक्सपिअर, आदी संवसारीक नामनेच्या वेगवेगळ्या साहित्यिकांच्या साहित्यकृतींचें रशियन भाशेंत बेस बरे अणकार केल्यात. फुडें १९४३ पसून ताणें परत स्वतंत्र लेखनाक सुरवात केली. 'ना रान्निख पयेज्दाख' (१९४३) आनी 'जिमनोई प्रस्तोर' (१९४५) हे दोन कवितांझेले उजवाडा हाडटकच ताणें १९५६त 'डॉक्टर झिवागो' हे कादंबरेचें हातबरप मॉस्कोतल्या एका मुखेल नेमाळ्याकडेन धाडलें. पूण हे कादंबरेंत रशियेंतल्या ऑक्टोबर क्रांतीची म्हायती, ते क्रांतीचो आनी ती घडोवन हाडपी जनतेचो अधिक्षेप करपी आशिल्ल्याचो आरोप दवरून तें हातबरप न्हयकारप जालें. पूण १९५७त एका इटालियन प्रकाशन संस्थेन ही कादंबरी सोव्हिएत रशियेभायर उजवाडा हाडली. हे कादंबरेक सुमाराभायर नामना मेळ्ळी आनी १८ भाशांनी तिचे अणकार जाले. ह्याच वर्सा ताका नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो. पूण हे घडणुकेक लागून सोव्हिएत रशियेंत व्हड प्रमाणांत विरोधी प्रतिक्रिया व्यक्त जाली. ताणें हो पुरस्कार घेवंक न्हयकार दिलो. पुण ह्याच पुस्तकाक लागून ताका संवसारीक नामना मेळ्ळी. एक व्हड आनी मोलादीक कादंबरी म्हणून हे साहित्यकृतीक वळखप जाता.

आर्विल्ले रशियन साहित्य परंपरेंत पास्तॅरनाकाक म्हत्वाची सुवात आसा. ताच्या जायत्या साहित्य कृतींचेर रशियीन क्रांतीचो आनी साहित्यीक वास्तववादाविशींचे नवे सोव्हिएत नदरेचो ठसो उमटिल्लो दिसता. रशियेंतलीच साहित्यकृती पूण रशियेभायर हाडून अस्तंत्या देशांनी उजवाडा हाडिल्ली 'डॉक्टर झिवागो' ही पयली साहित्यकृती. 'आत्तोबियोग्राफीचेस्की ओचिर्क' (१९५८) हें ताचें आत्मचरित्र आनी 'कग्दा राजगुल्यायेतसा' (१९५९) हो ताचो कवितांझेलो सोव्हिएत रशियेभायरूच उजवाडा आयिल्लो.

– कों. वि. सं. मं.

**पाँडिचेरी** : दक्षिण भारतांतलो केंद्रशासीत प्रदेश. पयलींच्या फ्रँच वसणुकांचे पाँडिचेरीखेरीज कारिकल, यनम् आनी माहे हे भाग हातूंत आस्पावतात. एक नोव्हेंबर १९५४ दिसा ह्यो वसणुको भारतांत आस्पावल्यात. वट्ट क्षेत्रफळ ४८० चौ. किमी. तातूंतलें पाँडिचेरी २९० चौ.मी., करिकल १६० चौ.किमी., यानम २० चौ. किमी. आनी माहे १० चौ. किमी. वट्ट लोकसंख्या ७,८९,४१६ (१९९१). ह्या प्रदेशांतले पयले तीन विभाग भारताचे उदेंत दर्यादेगेर तमीळनाडू आनी आंध्रप्रदेश राज्यांनी आसून, माहे हो केरळ राज्यांत अस्तंत दर्यादेगेर आसा. पाँडिचेरी तमीळनाडू राज्याच्या दक्षीण अर्काट जिल्ह्यांत कोरोमंडल दर्यादेगेर, मद्रासाचे दक्षिणेक १५० किमी. जाल्यार करिकल ह्याच राज्याच्या

तंजावर जिल्ह्यांत, पाँडिचेरीचे दक्षिणेक १५० किमी. अंतराचेर आसा. यानम्, आंध्र प्रदेश राज्याच्या उदेंत गोदावरी जिल्ह्यांत आनी माहे केरळ राज्याच्या कननोर जिल्ह्यांत कलिकतचे उत्तरेक सुमार ६० किमी. अंतराचेर आसा.

**भूंयवर्णन :** हो केंद्रशासीत प्रदेश वेगवेगळ्या सुवातींनी विभागिल्लो आशिल्ल्यान तातूंत सैमीक वेगळेपण व्हडा प्रमाणांत दिश्टी पडटा. पाँडिचेरी हो भाग सुपीक किनारी वाठारांत वशिल्लो आसून ताच्या भितरल्या भागांत 'रॅड हिल्स' हे उदेंत घाटाचे दोंगर आसात. हे खेरीज ह्या प्रदेशांतल्यान जिंजी (३० किमी. लांब), पंबयार (११.५ किमी.), गुडुवायार (१३.५किमी.), मलतार (२५.५किमी.) आनी पोन्नाइय्यार (१४किमी.), ह्यो न्हंयो व्हांवतात. हातूंतल्यो बंगालच्या उपसागराक मेळपी जिंजी आनी पोन्नाइय्यार न्हंयो म्हत्वाच्यो आसून पोलाइटयार न्हंयो पाँडिचेरीचे दक्षीण शिमेवयल्यान व्हांवतात. कारिकल हो भाग तंजावरच्या मैदानी वाठारांत आनी कावेरीच्या त्रिभुज वाठारांत आसून नंदलार (लांबाय सुमार १५ किमी.) ही न्हंय ह्या भागाचे उत्तर शिमेवयल्यान व्हांवत वचून तमिळनाडू राज्यांत बंगालच्या उपसागराक मेळटा.

हे खेरीज नत्तार (१२.६ किमी.), वंजियार (१२ किमी.), नूलार (१४ किमी.), अरसलार (११.७ किमी.), थिरुमलई अरसनार (१०.६ किमी.), प्रावदयनार (५.५६ किमी.) ह्यो न्हंयो आसात. हातूंतल्यो वंजियार, नुलार आनी अरसलार ह्यो न्हंयो करिकल गांवालागसार एकठांय येवन तांचो जोडप्रवाह बंगालच्या उपसागराक मेळटा. यनम् हो भाग गोदावरी न्हंयेच्या मुखाकडल्या मैदानी प्रदेशांत आसून गोदावरीचो 'गौतमी गोदावरी' हो फांटो ताच्या दक्षिण भागांतल्यान सुमार ८ किमी. व्हांवत वचून बंगालच्या उपसागराक मेळटा. हे खेरीज कॉरिंगा हो सुमार १५.२४ मी. रुंदायेचो आनी ४ किमी. लांबायेचो प्रवाह यानम्मदलान व्हांवता. माहे अस्तंत दर्यादेगेंत दोंगराळ वाठारांत वशिल्लो आसून ह्या भागांत माहे ही ११४ मी. रूंद आनी १ किमी. लांबायेची न्हंय आसा.

हवामानाचे नदरेन ह्या प्रदेशांत व्हडलींशीं खाशेलपणां दिसनात. ह्या प्रत्येक विभागाच्या शेजारच्या राज्यांतलें हवामान आनी त्या त्या विभागाचें हवामान सारकेंच आसता. पाँडिचेरीचें सरासरी तापमान २१° ते २६° सॅ. मेरेन आसता, जाल्यार वर्सुकी पावस ११० सेंमी. मेरेन आसता. उदेंत दर्यादेगेर एप्रिल - मे आनी नोव्हेंबरांत जावपी वादळां ह्या भागाचें लुकसान करतात. कारिकलचें तापमान मात थोडें चड आसता. थंयचो वर्सुकी पावस सुमार ११० सेंमी. इतलो आसता. माहेचें वर्सुकी पावसाचें प्रमाण ३३० सेंमी. आसता. हे सगळेच विभाग दाट शेतांच्या वाठारांत आशिल्ल्यान हांगा सैमीक रानांसंपत्ती व्हडलीशी दिसना. फकत पाँडिचेरींत थोड्या प्रमाणांत ताडाचे रूख मेळटात.

**इतिहास :** पाँडिचेरी नगराचो इतिहास खूब पोरनो. ह्या नगराच्या क्षेत्रांत पुर्विल्ली 'वेदपुरी' वशिल्ली आसूंक जाय. अगस्त ऋषीचो तिचेकडेन संबंद आसूंक जाय अशें मानतात. 'पुल्चेरी' आनी 'पुडुचेरी' अशीं हिचीं पारंपारीक नांवां आसात. पुडुचेरी (नवो गांव) हो तमीळ नांवाचो पाँडिचेरी हो फ्रेंच अपभ्रंश आसूंक जाय. 'पेरिप्लस ऑफ द एरीथ्रीअन सी' ह्या पुस्तकांत उल्लेख केल्ले, कोरोमंडल दर्यादेगेवयलें वेपारी केंद्र 'पोडूके' म्हळ्यार 'अरिकामेडू' हें हांगासावन लागसार (दक्षिणेक सुमार साडेतीन किमी.) आशिल्ल्याचो पुरावो मेळटा. अरिकामेडू हें इसवी सनाचे सुर्वेक एक व्हड वेपारी केंद्र आशिल्ल्यान पाँडिचेरीचो वाठार त्या काळांत खूब प्रसिद्ध आशिल्लो.

इतिहासकाळांत पल्लव (इ. स. ५०० ते ९००), चोल (१००० - १२५०), पांड्य (१२५० - १३३०), मदुराईचे मुसलमान (१३३० - ९५), विजयानगर (पंदरावें शतमान) आनी जिजिंचें नायक घराणें (सोळावें शतमान) हांचो शेक ह्या प्रदेशाचेर आशिल्लो. युरोपी हांगा येवंचेपयलीं ह्या प्रदेशाची सत्ता विजापूरच्या अदिलशाहाकडेन आशिल्ली. सतराव्या शतमानाचे सुर्वेक डच लोकांनी पाँडिचेरीक पयलीं वखार घाली. पूण ती रोखडीच बंद पडली. विजापूरचो सुभेदार शेरखान लोदी हाणें हें ठाणें फ्रेंच लोकांक दिलें. १६७४त फ्रेंच इस्ट इंडिया कंपनीन पाँडिचेरी आपल्या ताब्यांत घेतलें, पूण थंय कायम स्वरुपाची वसणूक १६८३ त फ्रान्स्वा मारतँ हाणें स्थापन केली. फ्रेंचांनी ह्या ल्हान गांवाचें वेपारी केंद्रांत रुपांतर केलें. शिवाजीच्या सुभेदारान कर्नाटकचे मोहिमेंत पाँडिचेरी तात्पुरती जिखली. पूण फ्रेंच वेपाराचो परवानो चालू दवरलो. मराठे सरदार पयशांखातीर फ्रेंचाक त्रास दिताले. होलंडाकडेनूय तांची सर्त चालू आशिल्ली. राजाराम जिंजीक येतकच पाँडिचेरी मराठे आनी मोगल हांच्या कब्ज्यांत सांपडली. ती फ्रेंचाक फ्रान्स - हॉलंड कबलाती उपरांतूच परत मेळ्ळी (१६९७).

मारतँ हाणें तटबंदी, शिबंदी आनी करवसुलीचे अधिकार मेळयले आनी ताचे कर्तबगारीन फ्रेंच वसणूक वाडीक लागली. ते उपरांतचे कर्तबगार फ्रेंच गव्हर्नर लन्वार आनी द्यूमा हांचे कारकिर्दीत अनुक्रमान माहे (१७२५), करिकल (१७३९) हीं ठाणीं फ्रेंचांच्या ताब्यांत आयलीं. पाँडिचेरीचेर चलून आयिल्ल्या रघूजी भोसलेक लागून मुत्सद्‌दीपणान तोंड दिले आनी निजामाकडल्यान सवलती मेळयल्यो. १७४२त गव्हर्नर जनरल म्हणून आयिल्ल्या द्यूप्लेसाच्या काळांत फ्रेंच सत्तेची उपाट उदरगत जाली. ताणें इंग्लंड फ्रान्सांतल्या झुजांचो आनी अर्काटची नबाबी आनी दख्खनची सुभेदारी हांचेखातीर चलयल्ल्या कलहांचो फायदो घेवन, कवायती फौजांचो उपेग करून नवो वाठार जिखलो. तातूंतलें कारिकल लागसारचे गांव आनी १७५०त मेळयल्ले यनम् (१७०६ पयलीं हो गांव अस्तित्वांत नाशिल्लो.) इतलींच उरिल्लीं. फ्रेंच सरकाराक द्यूप्लेक्सचें धोरण पटलेना म्हूण ताका परत आपयलो. सातवर्सुकी झूज सुरू जायनाफुडें फ्रेंच सेनापती लाली व्हडलें सैन्य घेवन भारतांत आयलो. फ्रेंच आनी ब्रिटीश हांचे मदीं वांदीवाशाक लडाय जावन फ्रेंचांची हार आनी क्लायव्हान पाँडिचेरी आनी हेर फ्रेंच वसणुको जिखल्यो. पूण १७६३च्या पॅरीसांतले कबलातीवरवीं त्यो फ्रेंचांक परत मेळ्ळ्यो. हे उपरांत फ्रेंच सत्तेक देंवती कळा आयली. १७७८ - ८५ आनी १७९३ - १८१६ ह्या काळांत फ्रांस झुजमय आशिल्ल्यान ब्रिटिशांनी ह्यो वसणुको आपल्या ताब्यांत दवरिल्ल्यो. पूण १८१६ - १७ चे कबलातीप्रमाण चंद्रनगरासयत ह्यो वसणुको फ्रेंचांक परत मेळ्ळ्यो आनी ते उपरांत ताणीं ब्रिटीशांचें सार्वभौमत्व मान्य केलें.

फुडल्या देडशें वर्सांमदीं छापखाने, दवाखाने, शाळा, डाक - तारखातें, रस्ते, बागो, रेल्वे, भौशीक बांदकामां, हवामान खातें अशा कितल्याशाच सुदारणांक लागून पाँडिचेरीचें आर्विल्लेकरण जालें. १७०४त पाँडिचेरींत कृष्णवर्णीय आनी श्वेतवर्णीय हांची वसणूक दूभंगपी खारीज जालें; ते भाग सांदलेनात. पयल्या म्हाझुजांत फ्रेंचाचे उदेंतेकडचे सत्तेक सुरींग लागलो. खास करून भारताक स्वातंत्र्य मेळटकच फ्रेंचांआड भावना प्रबळ जाली आनी १ नोव्हेंबर १९५४त हे वसणुकेचें शासन भारताकडेन

सोपयलें आनी २८ मे १९५६त समितीकरणाची कबलात जाली.

**राज्यवेवस्था** - पाँडिचेरिचो प्रदेश भारतांत आस्पावतकच ताका केंद्रशासीत प्रदेशाचो पांवडो चवदावे घटनादुरुस्तीप्रमाण १६ ऑगस्ट १९६२ सावन दिलो. राश्ट्रपतींनी नेमिल्लो नायक राज्यपाल हो शासनमुखेल आसून तो विधानसभेक जापसालदार आशिल्लो मुखेलमंत्री आनी ताचें मंत्रीमंडळ हांच्या सल्ल्यान कारभार पळेता. विधानसभेचे ३० वांगडी आसतात. लोकसभेचेर एक प्रतिनिधी वेंचून दितात. ह्या प्रदेशांत अखिल भारतीय अण्णादुरै द्रविड मुन्नेत्र कळघ्म, जनता पक्ष, द्रविड मुन्नेत्र कळघ्म, काँग्रेस, काँग्रेस (इंदिरा), कम्युनिस्ट, मार्क्सवादी कम्युनिस्ट हांचेसारके मुखेल राजकीय पक्ष आसात. प्रशासकीय वेवस्थेचे नदरेन पाँडिचेरी ह्या केंद्र शासीत प्रदेशाची पाँडिचेरी, कारिकल, यानम् आनी माहे ह्या चार जिल्ह्यांनी वांटणी केल्या. पाँडिचेरीची न्यायवेवस्था मद्रासचें उच्च न्यायालय पळेता.

**अर्थीक स्थिती** - शेतकाम हो मुखेल वेवसाय आसून तातूंत सुमार ४५% लोक आसात. १९७२ - ७३ त ५२,००० हॅक्टेर जमीन लागवडीखाल आशिल्ली. तातूंतले ८३% जमनीक बांयो, व्हाळ हाचेवरवीं उदका शिंपणावळेची तजवीज जाता. भात हें हांगाचें मुखेल पीक आसून ज्वारी, बाजरी, रागी हीं पिकां थोड्या प्रमाणांत घेतात. १९७४ - ७५ त ३४.५ हजार हॅक्टेर क्षेत्र अन्नाधान्यांच्या पिकाखाल आसून उत्पादन ८९.६ हजार टन आशिल्लें. पाँडिचेरी, कारिकल, माहे आनी यानम् ह्या विभागांक तांच्या शेजारच्या राज्यांतल्यान वीजपुरवण जाता.

पाँडिचेरी आनी हेर विभाग हे दर्यादेगेरूच आशिल्ल्यान नुस्तेंमारी हो थंयचो म्हत्वाचो वेवसाय.

ह्या वाठारांत अवजड उद्देग व्हडलेशे विकसीत जावंक नात. १९७६त थोडे लघुउद्देग सुरू जाले. तातूंत रसायनां, अन्नपदार्थ प्रक्रिया, कातडी वस्तू, साकर, विद्युत्साहित्य, प्लास्टिक ह्या लघुउद्देगांचो आस्पाव जाता. ह्या प्रदेशांत पांच लुगटागिरणी आसून तांतूतल्यो तीन पाँडिचेरींत, एक करिकलांत आनी एक माहेंत आसा. पाँडिचेरीची थट्टानचावाडी उद्देगीक वसणूक तशेंच मानापेट आनी कोट्टूचेरी (करिकल) ची ग्रामीण उद्देगीक वसणूक उल्लेख करपासारकी आसा. हांगा कितल्योशेच उद्देगीक संघटनांय आसात. पाँडिचेरी उद्देगीक विकास म्हामंडळ आनी तमीळनाडू उद्देगीक विकास म्हामंडळ ह्या संस्थांवरवीं उद्देगीक विकासाखातीर यत्न चालू आसात.

**लोक आनी समाजजीण :** ह्या वाठारांत हिंदू, मुसलमान, क्रिस्तांव, जैन आनी थोडे हेर धर्मांचे लोक रावतात. ह्या केंद्रशासीत प्रदेशांत तमीळ फ्रेंच, मल्याळम्, तेलुगू, इंग्लीश ह्यो भासो रूढ आसात. हांगाचें साक्षरतायेचें प्रमाण ७४.९१% इतलें आसा. हांगा कांय म्हाविद्यालयां आसात. तीं रेन (फ्रांस) विद्यापिठाक, चार मद्रास विद्यापिठाक आनी दोन आंध्र विद्यापिठाक संलग्न आसात. वैजकी म्हाविद्यालय तशेंच तंत्रीक शिक्षणाच्यो, शिक्षक प्रशिक्षणाची वेवस्था तशेंच कुडडे, भेड्डे आनी मोने हांच्यो शाळा आसात. नामनेचो तत्त्वचिंतक योगी अरविंद घोष हाका लागून पाँडिचेरीक म्हत्व प्राप्त जालें. १९१० सावन अरविंद हाचो राबितो पाँडिचेरीक आशिल्लो आनी थंयच ताका मरण आयलें (१९५०).

**म्हत्वाचीं थळां :** पाँडिचेरी हें राजधानीचें ठिकाण आसून ताची रचणूक फ्रेंच नगरांचे धर्तेचेर केल्या. हें जरी बंदर आसलें, तरी व्हडलीं दर्यावर्दी व्हडीं थंय येरादारी करूंक शकतात. शारांत योगी अरविंदाचो नामनेचो आश्रम आसून तो एक आंतरराश्ट्रीय शिक्षणकेंद्र जाला. ह्या आश्रमांत वेगवेगळ्या देशांतल्यान साधक येतात. हो आश्रम म्हळ्यार एक ल्हान नगर कशें आसून तातूंत जीवनावश्यक वस्तू तयार करपाचे उद्देग आसात. हे खेरीज शारांतली उच्च न्यायालयाची इमारत, शासकीय भवन, द्यूप्लेसाचो पुतळो ह्यो उल्लेख करपासारक्यो सुवाती आसात.

पाँडिचेरीचे उत्तरेक ८ किमी. अंतराचेर ऑरोव्हिल नगरवसणुकेचो १५ वर्सां प्रकल्प चालीक लागला. हे वसणुकेचें क्षेत्र सुमार २० चौ. किमी. आसा. श्री. अरविंद सोसायटीवरवीं आनी भारत सरकार आनी युनॅस्को हांचे मंजुरीप्रमाण हो प्रकल्प सुरू जालो. ऑरोव्हिल नगरवसणुकेचो अभिकल्प फ्रॅंच वास्तुशास्त्रज्ञांनी तयार केला. पाँडिचेरीखेरीज ह्या विभागांत विलियानूरचें विजयानगर काळांतलें देवूळ तेच प्रमाण बाहौर, तिरुभुवन, मुदलियारपेट, उल्गराई, अरिकामेडू ह्या पुर्विल्ल्या नगरांच्या वाठारांतले अवशेश उल्लेख करपासारके आसात. कारिकल हें बंदर आनी रेल्वेस्थानक आसून थंयसावन भात तेलाबियो, नाल्ल हांची निर्यात जाता. यनम् हें बंदर १७५० त वेपारी ठाणें म्हणून वसयलें. थंयसल्ल्या वाठारांत तांदूळ, बाजरी, आंबे हांचें उत्पन्न घेतात. माहे हें मलबारच्या दर्यादिगेवयलें बंदर आसून माडांखातीर तें प्रसिद्ध आसा. ह्या शाराच्या वाठारांतली जमीन खूब सुपीक आसून हवामान भलायकेचे नदरेन बरें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**पॉनटॉपिडान, हॅन्रिक :** (जल्म : २४ जुलय १८५७, फ्रॅडरिशिआ, डॅन्मार्क; मरण : २१ ऑगस्ट १९४३, ऑडरूप, डॅन्मार्क).

नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो एक व्हड डॅन्मार्की कथा-कादंबरीकार. एका धर्मगुरूच्या घराण्यांत ताचो जल्म जालो. १८७३त तो अभियांत्रिकीचें शिक्षण घेवपाखातीर कोपनहागॅनाक आयलो. पूण उपरांत तें सोडून तो १८७९त आपल्या भावाचे शाळेंत शिकोवपाचें काम करूंक लागलो. ह्याच सुमाराक तो कथाय बरोवपाक लागलो. १८८१त ताचो पयलो कथासंग्रह staekkede Vinger उजवाडाक आयलो आनी उपरांत सुमार १५ कथासंग्रह उजवाडाक आयले. ह्या काळांतल्या डॅन्मार्काच्या गांवगिरे तशेंच शारांतले जिणेचें स्पश्ट चित्रण ताच्या कथावरवीं आयिल्लें दिसता. Det for Joettede Land (१८९१-९५) इंग्लीश अणकार द प्रॉमिस्ड लॅंड), Lykke per (१८९८-१९०४, इंग्लीश नांव- लकी पिटर) आनी De Dodes Rige (१९१२-१९१६, इंग्लीश नांव द रियाल्म ऑफ द डॅड) ह्या ताच्या तीन मुखेल कादंबऱ्यांक लागून ताका सुमाराभायर नामना मेळ्ळी. ताच्या कादबऱ्यांनी त्या काळांतल्या डॅन्मार्की जिविताची खोलायेन केल्ली विस्कटावणी दिसता. तें करतना डॅन्मार्की लोकांच्या कांय प्रवृत्तींचेर ताणें बोट दवरलां. 'ऑन वे टू माय सॅल्फ' ह्या नांवान ताणें आपल्यो कांय यादीय बरयल्यात (१९३३-४०). १९१७त कार्ल गेल्लेरूप ह्या डॅन्मार्की कादंबरीकारा वांगडा ताका साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार विभागून दिवप जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**पॉलिंग, लायसन कार्ल :** (जल्म : २८ फेब्रुवारी १९०१, पोर्टलंड - ऑरेगन; मरण : १९८१.)

अमेरिकी रसायनशास्त्रज्ञ आनी संवसारीक शांततायेचो म्हान पुरस्कर्तो.

रसायनीक बंधाचें स्वरूप आनी रेणूंचो विन्यास (arrangement) निश्चीत करपी मुळावीं तत्त्वां आनी जटिल पदार्थांच्या गूणधर्मांचें स्पश्टीकरण करपाखातीर जावपी ताचो उपेग ह्या विशयावयल्या ताणें केल्ल्या संशोधनाखातीर ताका १९५४चो रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. संवसारीक शांततायेच्या संदर्भांत अण्वस्त्रांचे चाचणी प्रयोग बंद करपाखातीर ताणें केल्ल्या मोलादीक वावराखातीर ताका १९६२ वर्साचो शांतताये खातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. अशे तरेन दोन वेगवेगळ्या विशयांनी हो पुरस्कार मेळोवपी पॉलिंग हो पयलोच शास्त्रज्ञ.

ताणें ऑरेगन स्टेट कॉलेजांतल्यान रसायनीक अभियांत्रिकींतली बी. एस्. ही पदवी १९२२त आनी पॅसाडीना हांगाच्या कॅलिफॉर्निया इन्स्टिटयूट ऑफ टॅक्नोलॉजींतल्यान (कॅलटेकांतल्यान) भौतिकीय रसायनशास्त्रांतली पी एच् डी पदवी १९२५त मेळयली. ते उपरांत ताणें अमेरिकेंत पिटर डेबाय आनी टोलमन हांचे वांगडा आनी युरोपांत आर्नोल्ट झोमरफॅल्ट, नील्स बोर, श्रोडीगंजर आनी विल्यम ब्रॅग ह्या नामनेच्या शास्त्रज्ञांच्या मार्गदर्शनाखाल शिक्षण घेतलें.

ताणें कॅलटेकांत रसायनशास्त्राचो सहाय्यक प्राध्यापक (१९२७-२९), सहयोगी प्राध्यापक (१९२९-३१) आनी प्राध्यापक (१९३१-३४) ह्या पदांचेर काम केलें. १९३६-५८ ह्या काळांत तो कॅलटेकांतल्या गेट्स अँड क्रेलिन केमिकल लॅबोरेटरीसाचो संचालक आशिल्लो. तेउपरांत तो सांता बार्बाराच्या सॅंटर फॉर द स्टडी ऑफ डॅमॉक्रॅटिक इन्स्टिटयुशन्स हे संस्थेंत भौतिकीय आनी जीवविज्ञानीक संशोधन प्राध्यापक (१९६३-६७), सॅन डिएगोच्या, कॅलिफॉर्निया विद्यापिठांत (१९६७-६९) आनी फुडें स्टॅनफर्ड विद्यापिठांत (१९६९-७४) रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आशिल्लो. ताच्याच नांवान स्थापन केल्ल्या लायनस पॉलींग इन्स्टिटयूट ऑफ सायन्स अँड मॅडिसीन हे संस्थेचो तो १९७३-७५ त अध्यक्ष आशिल्लो.

पॉलिंग हाच्या संशोधन कार्याचो मध्यवर्ती विशय रसायनीक पदार्थांचे गूणधर्म तांच्या रेणवीय विन्यासाच्या संदर्भांत अभ्यासप होच आशिल्लो. सुरवातीचें ताचें कार्य क्ष-किरणांच्या विवर्तन आकृतीबंधाचें विश्लेशण करून ताचेवयल्यान स्फटिकीय रचणूक निर्धारीत करपाविशीं आशिल्लें. तेउपरांत पुंजयामिकींतलीं समीकरणां रेणवीय विन्यासाच्या सिद्धांताक आदार जावंक शकतात, अशें दिसतकच ताणें कांय आणवीय आनी उपआणवीय आविश्कारांच्या स्पश्टीकरणाखातीर पुंजयामिकींतल्या पद्दतींचो उपेग केलो. ह्या अभ्यासांतल्यान रसायनीक बंधाचें स्वरूप समजून घेवपाक लाका दिका मेळ्ळी आनी धा वर्सांच्या काळांत ताणें ते विशींचीं मुळावीं तत्त्वां सोदून काडलीं. रसायनीक बंधाच्या ह्या अभ्यासाचो सारांश ताणें The Nature of Chemical Bond And the Structure of Molecules and Crystals (१९३९)हें पुस्तक उजवाडायलां. ताच्या अनुस्पंदन सिद्धांताक लागून कार्बनी संयुगांच्या कांय खाशेल्या गूणधर्मांविशीं कितलीशीच म्हायती उपलब्ध जाल्या.

१९३४ मेरेन पॉलिंग हाचें चडशें संशोधन भौतिकी आनी भौतिकीय रसायनशास्त्र हांचेविशीं आशिल्लें, पूण उपरांत हिमोग्लोबिन आनी हेर प्रथिनांविशींच्या अभ्यासांत गोडी तयार जाल्ल्यान ताणें जीवरसायनशास्त्रांत लक्ष घालें. १९५०त ताणें आर. बी. कोरी हाचे वांगडा ॲमिनो आम्लांच्या आनी तांचेपसून तयार जावपी लान पॉलिपॅप्टायडांच्यो सरपळ्यो खाशेल्या विन्यासाच्या सर्पिल आकाराच्यो आसतात, अशें गृहीत ताणें मांडलें. ह्या गृहिताची सत्यताय फुडें प्रस्थापीत जाली.

फावो तो त्रिमितीय विन्यास दाखोवपी एका प्रथिनाच्या रेणूची प्रतीकृती पॉलींग हाणेंच पयलीं तयार केली. प्रथिनांवयल्या ह्या अभ्यासावयल्यान ताणें प्रतीपिंडाचे निर्मितीविशींचो सिद्धांत मांडलो. १९३४त सी.डी. कॉरील हाचे वांगडा पॉलींग हाणें हिमोग्लोबिन रेणूंचेर ऑक्सिजनीकरणाचे क्रियेक लागून जावपी परिणामांचें तांच्यो चुंबकीय प्रवणता मेजून विश्लेशण केलें. १९४९त ताणें एकापरस चड प्रकारचीं हिमोग्लोबिनां मनशाचे कुडींत तयार जावप शक्य आसा अशें मत मांडलें. १९६० उपरांत ताणें आपल्या संकल्पनांचो उपेग मानसीक विकारांचो रेणवीय आदार सोदप, शूद्धीहरणाच्या रेणवीय यंत्रणेविशींचो सिद्धांत आनी प्रथिनांचो क्रमविकास ह्या विशयांखातीर केलो.

जानेवारी १९५८त ताणें जगाच्या वेगवेगळ्या भागांतल्यान ११,०२१ शास्त्रज्ञांच्यो निशाण्यो घेवन अण्वस्त्रांच्यो चांचण्यो बंद करपाचो उलो सरकाराक दिलो. ह्याच काळांत ताणें No more War! हो ग्रंथ बरयलो. ताका कितलेशेच भोवमान फावो जाल्यात. General Chemistry (१९४७), College Chemistry (१९५०), Vitamin and the common cold (१९७१) हीं ताचीं कांय हेर पुस्तकां.

- कों. वि. सं. मं.

**पॉलिटब्युरो :** रशियेच्या कम्युनिस्ट पक्षाचें धोरण थरोवपी आनी प्रशासन करपी सर्वोच्च समिती. पक्ष संघटना आनी राजवेवस्था ह्या दोनांचेरूय पॉलिटब्युरोचो सर्वोच्च प्रभाव आसता आनी ह्यो दोनूय भुमिका ही समिती करता. रशियेप्रमाणूच हेर देशांतले कम्युनिस्ट पक्ष आनी राजवेवस्था हांची सवोच्च समितीय 'पॉलिटब्युरो' ह्या नांवानूच वळखतात.

ऑक्टोबर १९१७त बोल्शेविक पक्षाचे मध्यवर्ती समितीन पयल्या पॉलिटब्युरोची निर्मिती केली. त्या वर्सा रशियन राज्यक्रांती जाल्ली. क्रांतीचें फुडारपण करपी मुखेल कम्युनिस्ट फुडाऱ्यांचो पयल्या पॉलिटब्युरोंत आस्पाव आशिल्लो. तातूंत लॅनिन, ट्रॉट्स्की, स्टालिन हे मुखेल फुडारी आशिल्ले. पक्षाचे सत्तासर्तीकूय त्याच वेळार ते तोंड दिताले. सर्वोच्च फुडारीपण आपल्याकडेन दवरपाखातीर कम्युनिस्ट फुडाऱ्याक पॉलिटब्युरोचो तेंको मेळोवंचो पडटालो. तेखातीर अर्थांतूच पॉलिटब्युरोच्या वांगड्यांचे संघर्श खर जाल्ल्याचें क्रांतीउपरांतच्या रशियन कम्युनिस्ट पक्षाच्या इतिहासावयल्यान दिसता.

रशियेच्या कम्युनिस्ट पार्टी कॉंग्रेसीचें आठवें अधिवेशन मार्च १९१९त जालें, तेन्ना मध्यवर्ती समितीन नवो पॉलिटब्युरो वेंचून काडलो. तातूंत पांच वांगडी आशिल्ले. समितीच्या अधिवेशनामेरेन जे ताकतिकेचे प्रस्न पक्षामुखार निर्माण जाताले, तेविशींचे निर्णय पॉलिटब्युरोन घेवंचे अशेंय थरलें. ताका लागून मध्यवर्ती समितीच्या अधिकाराचो उपेग जावपाक लागलो. ल्हवल्हव पॉलिटब्युरोची सत्तासुवात आनिकूय बळिश्ट जायत गेली. पक्ष आनी राज्य ह्या दोनूय सुवातींनी पॉलिटब्युरोचो अधिकार नेटान वाडत गेलो. सुमार सगळीच सत्ता पॉलिटब्युरोच्या हातांत केंद्रीत जाली.

क्रांतीउपरांत रशियेचें अंतर्गत आनी परराश्ट्राविशींचें धोरण पॉलिटब्युरोच थरोवंक लागलें. पक्षसंघटनेंतल्यो म्हत्वाच्यो नेमणुको,

कार्यपद्‌दती, धोरणात्मक आदेश ह्या सगळ्यांचेच बाबतींत पॉलिटब्युरोच धोरण थरोवंक लागलें. राष्ट्रीय अर्थवेवस्था, सैन्य, परराष्ट्रसंबंद, वेपार, कामगार संघटनांचें कार्य, सामुदायीक शेतकाम, सोव्हिएत रशियेच्या सगळ्या थरांतल्यो वेंचणुको, मुळावें शिक्षण, शिक्षण पद्‌दती ह्या सगळ्याच क्षेत्रांनी पॉलिटब्युरोचें धोरण सर्वोच्च आनी निमाणें अशें मानतात. अशा राष्ट्रीय पातळेवयल्या धोरणांप्रमाणूच पॉलिटब्युरोचे कार्यावळ पत्रिकेचेर प्रचाराचीं साधनां, न्यायनिवाड्याच्यो पद्‌दती हांचे सारके विशय म्हत्वाचे थरतात.

पॉलिटब्युरोचें धोरण पक्षांतल्या कार्यकर्त्यांक आनी प्रशासनांतल्या अधिकाऱ्यांक पाळचेंच पडटा. त्या धोरणाक विरोध दाखोवप कार्यकर्ते आनी प्रशासक ह्या दोगांकूय शक्य आसना. पॉलिटब्युरोच्या चिटणीसाकडेन देशाच्या सगळ्या क्षेत्रांचे सर्वोच्च अधिकार केंद्रीत जाल्ले आसतात. रशियेंत राजकीय पक्ष म्हणून फकत कम्युनिस्ट पक्षाकूच मान्यताय आशिल्ल्यान त्या पक्षाचे सर्वोच्च समितीचो मुखेल चिटणीस म्हळ्यार त्या देशांतल्या अर्थीक, राजकीय, समाजीक आनी तेसारक्या हेर क्षेत्रांचेर निर्णायक सत्ता करपी फुडारी आसता. हें महापद पयलीं लॅनिनाकडेन आशिल्लें. लॅनिनाच्या मरणाउपरांत तें स्टालिनाकडे आयलें. तेउपरांत कुश्चेव ब्रॅझनेव्ह आनी गोर्बाशॉव त्या पदाचेर आयले.

लॅनिनाच्या मरणाउपरांत १९२४त जो सत्तासंघर्श जालो, तातूंत मुखेल चिटणीस म्हणून स्टालिनाक अथिकारपद मेळ्ळें. ताची ही सुवात १९२९ मेरेन आनिकूय घट जायत गेली. तेउपरांत पक्षाच्या कामकाजाचीं कागदपत्रां रशियी लोकांक उपलब्ध जावप बंद जालें. ताका लागून पॉलिटब्युरोच्यो अंतर्गत घडामोडी, धोरणात्मक बदल आनी फुडारपणाखातीर केल्ले डावपेंच लोकांक समजनाशिल्ले. ही परिस्थिती स्टालिनाच्या मरणामेरेन कायम आशिल्ली. स्टालिनान आपले कारकीर्दीची कांय वर्सां पॉलिटब्युरोच्यो बसका घेतल्यो. पूण १९२९ उपरांत हे बसकेचें प्रमाण दर वर्सा उणें जायत गेलें. हाचो अर्थ धोरण थारोवपाचे बाबतींत स्टालिन पॉलिटब्युरोच्या वांगड्यांकडेन विचारविनिमय करिनाशिल्लो. ताचेंच धोरण पक्ष आनी प्रशासन हांकां बंधनकारक थरलें. ताका लागून रशियेंत हुकूमशायी पद्‌दतीचें सर्वाधिकारी फुडारपण आनी सत्तेचें केंद्रीकरण जालें.

ऑक्टोबर १९५२त कम्युनिस्ट पक्षाची एकुणिसावी पार्टी काँग्रेस भरली आनी त्या अधिवेशनांत पॉलिटब्युरो ही समितीच बरखास्त केली. पॉलिटब्युरोच्या जाग्यार २५ वांगडी आनी इकरा निमंत्रीत उमेदवार वांगडी हांचें एक अध्यक्षीय मंडळ स्थापन केलें. ही नवी तजवीज म्हळ्यार पक्षांत नाका आशिल्ल्या वांगड्यांक धांवडावपाचो स्टालिनाचो डाव आशिल्लो, अशें स्टालिनच्या मरणाउपरांत तीन वर्सांनी क्रुश्चेव्ह हाणें जाहीरपणान सांगलें.

मार्च १९५३त स्टालिनाक मरण आयलें. ते उपरांत अध्यक्ष मंडळाच्या वांगड्यांची संख्या धा केली आनी निमंत्रीत उमेदवार वांगडी चार जाले. स्टालिनाच्या काळांतले अत्याचार, अन्याय, अनियंत्रीत धोरण कितलें भयांकृत स्वरुपाचें आशिल्लें आनी ताका लागून रशियन लोकांक कशे त्रास जाताले, हें अध्यक्ष मंडळाचो मुखेल म्हणून क्रुश्चेवान जगजाहीर केलें. अध्यक्ष मंडळाचे हे कृतीक लागून रशियेंतलो दहशत पुराय नश्ट जालोना. पूण स्टालिनाचे कारकिर्दींत हे दहशतीन कितले भीशण प्रकार केल्ले तें जगामुखार स्पश्ट जालें. तशेंच रशियन लोकांकूय नव्या अध्यक्ष मंडळाविशीं थोडोभोव विश्वास उत्पन्न जालो. १९६४त अध्यक्ष मंडळान खुद्द क्रुश्चेवाच्या फुडारपणाविशीं असंतोश परगटायलो आनी ताचेकडेन राजिनाम्याची मागणी केली. क्रुश्चेवाची सुवात अध्यक्ष मंडळाचो चिटणीस म्हणून ब्रॅझनेवान घेतली आनी तेउपरांत दोन वर्सांनी म्हळ्यार एप्रिल १८६६त पक्षाच्या २३ वे काँग्रेसीचें अधिवेशन जालें आनी तातूंत अध्यक्षीय मंडळ बरखास्त करून नवो पॉलिटब्युरो नेमलो. ह्या पॉलीटब्युरोंत इकरा वांगडी आनी आठ उमेदवार वांगडी नेमले.

पॉलीटब्युरोंत जावपी चर्चा आनी भासाभास हांचे अहवाल अजुनूय जाहीर करिनात. ते गुप्तूच दवरतात. फकत तांचो धोरणात्मक आशय जाहीर करतात आनी तांचेवरवींच रशियेचें अर्थीक प्रशासकीय, पक्षीय आनी परराश्ट्रविशीचें धोरण किदें तें समजुपाक मदत जाता.

ब्रॅझनेवाच्या मरणाउपरांत गोर्बाशोव पॉलिटब्युरोचो सगल्यांत श्रेश्ठ सत्ताधीश जालो. ताणें रशियेच्या धोरणांत चड उदारताय आनी उत्तेपण हाडलें.

- कों. वि. सं. मं.

**पॉवर्टी अँड अन्‌ब्रिटीश रूल ईन इंडिया :** दादाभाई नवरोजी (१८२५ - १९१७) हाणें भारताचे अर्थीक परिस्थितीचो सखोल अभ्यास करून १९०१ त उजवाडायिल्लो एक ग्रंथ. ज्या काळांत सुशिक्षीत भारतीय लोक भारतावयलें ब्रिटीश राज्य हें एक दैवी वरदान मानून अधिकारपदाचे जागे मेळोवपाखातीर यत्न करताले, त्या काळांत दादाभाई नवरोजीन ब्रिटिशांच्या शासनाक लागून भारताचें चलिल्लें अर्थीक शोशण आनी अन्याय हांचें शास्त्रशुद्ध आनी सप्रमाण पद्‌दतीन विश्लेशण केलें.

दादाभाई नवरोजीच्या मताप्रमाण भारतांतली सगळ्यांत म्हत्वाची समस्या म्हळ्यार दळडीर. हो देश दिसानदीस चड आनी चड गरीब जायत आसा. हें कितल्याशाच पुराव्यांनी सिद्ध करूं येता. देखीक : उणे पातळेवयलें राश्ट्रीय उत्पन्न, आयात-निर्यातीचे आंकडे, लोकांचें राहणीमान, शासनाकडेन जमा जावपी उत्पन्न, परत परत पडपी दुकळ आनी मरणाचें वाडटे प्रमाण. तांच्या मतान सद्याचें दळडीर हो भारतांतल्या ब्रिटीश शासनाचो प्रत्यक्ष परिणाम. ताच्या हिशोबाप्रमाण भारताचें दर मनशाफाटलें वर्सुकी उत्पन्न फकत वीस रुपया आशिल्लें आनी राहणीचो दर, दर मनशाफाटलो वर्सुकी खर्च चवतीस रुपया आशिल्लो.

दादाभाईच्या मतान हांगाच्या दळडिराचें मुखेल कारण म्हळ्यार हांगाचे पयलींचे संपत्तीचो नाश आनी युरोपीय सेवांचेर जावपी उपाट खर्च आनी भौशीक रीण. देशांतले अर्थवेवस्थेचेर ताण दिवपी हो एक सेगीत ओघ. ताणें दाखोवन दिलें की १९५८ उपरांतचीं सगळीं भारताभायलीं झुजां ब्रिटिशांनी आपले आनी युरोपीयांचे हीतसंबंद सुरक्षीत राखपाखातीरूच लडलीं. देखून, भारतांतलें आपलें सैन्य आनी हेर सेवकवर्ग राखपाचो फावो तो खर्च ब्रिटनान सोंसचो. रेल्वेचें उदाहरण दिवन ताणें सांगलें की रेल्वे कंपन्यो ब्रिटनांत स्थापन करतात. तेन्ना तांचे सगळेंच उत्पन्न ब्रिटीश तिजोरेंत वता.

दादाभाईच्या ग्रंथाचो मुखेल उद्‌देश भारतांतली ब्रिटीश प्रशासनपद्‌दत भारतीयांक घातक आशिल्लीच, पूण ब्रिटिशांकूय घातक आशिल्ली, हें दाखोवन दिवपाचो आशिल्लो. हे विस्कटावणेक 'drain theory' अशें म्हण्टात. भारतांतलें अती दळडीर हें ब्रिटीश सत्तेक लागून निर्माण जालें. ब्रिटीश

सत्तेन हांगाच्या लोकांचेर करांचें चेपण घालां. ह्या चेपणाक लागून हांगाची सामुग्री ना जायत आसा. करांपसून मेळपी उत्पन्न त्याच देशांत खर्च जायत रावल्यार पयसो देशांतूच घुंवत उरता, लोकांच्या उद्देगांक उत्तेजन मेळटा आनी समृद्धी वाडत रावता. पूण जेन्ना एका देशांतल्या करांचें उत्पन्न दुसऱ्या देशांत व्हरतात, तेन्ना तो पयसो सासणाचो ना जाता. अशा करांच्या पयशान कर भरपी देशांत उद्देग वेपाराक कसलेंच प्रोत्साहन मेळना. ताचे गणनेप्रमाण इ. स.१९०० मेरेन भारतांतल्यान इंग्लंडांत दोन कोटी पौंड मोलाचें उत्पन्न निर्यात जालें तें दोन तरांनी : १) युरोपीय अधिकाऱ्यांनी भारतांतले आपले बचतींतल्यान धाडिल्लो दुडू, इंग्लंडातल्या तांच्या ख़र्चाखातीर धाडिल्लो दुडू आनी इंग्लंड तशेंच भारताच्या शासकीय खर्चांतल्यान दिताले ते तांचे पगार, निवृत्तीवेतन आदी दुडू. २) अधिकाऱ्यांबगर हेरांनी धाडिल्लो दुडू.

हे पद्दतीक लागून भारतांत भांडवलसर्जन जावंक शकना. खेरीज अशे तरेन भारतांत शोशून व्हेल्लें भांडवलूच परत भारतांत हाडून सगळो वेपार आनी म्हत्वाच्या उद्देगांत तांणी आपली मक्तेदारी निर्माण केल्या. ह्या सगळ्या अरिश्टांचो उगम अधिकृत शोशणांत आसा. देशांतलें सगळें उत्पादन देशांतूच वापरलेंनाजाल्यार नव्यान अदीक उत्पादन देशांतलें सगळें उत्पादन आनिकूय जायत रावलें. ताका लागून प्रचलीत उत्पादनाच्या दराप्रमाण बचत जावपा सुवातेर वर्सूकी उत्पादनांतल्यान सातत्यान घट जायत रावताली. भांडवलांत अखंड घट आनी उद्देग मर्यादीत जाता आशिल्ल्यान उत्पादन दर राखून धरपाइतलें लेगीत भांडवल मेळचेंना. दादाभाईचे हे विचार मिलच्या विस्कटावणेचेर आदारीत आसात.

दादाभाईन ब्रिटीश प्रशासनाचेर खर हल्लो केलो. ब्रिटीश संसदेंतल्या आपल्या उलोवपांत ईस्ट इंडिया कंपनीच्या प्रशासनांतल्यो दुश्ट प्रवृत्ती उक्त्यो केल्यो. ताणीं म्हळां ही कंपनी भारतांतलो अंतर्गत वेपार नश्ट करता. खेरीज, ह्या देशांतली वेवस्था भायल्यान लादिल्ल्या लोकांकडल्यान करून घेवन भारतीय लोकांक तांचो वांटो कंपनीन न्हयकारला.

भारतांतली दळिद्र समस्या सोडोवपाखातीर दादाभाईन फुडले उपाय सुचयल्यात : १) भारत आनी इंग्लंड हाणीं आपले शिमेंतल्या सेवक वर्गाचें वेतन स्वता दिवचें. भारतांत नेमिल्ले ब्रिटीश अधिकारी आनी इंग्लंडांत नेमिल्ले भारतीय हांचेमदीं न्याय्य आनी योग्य वांटणी करून घेवंची. २) ब्रिटीश नोकरांक भरपूर वेतन मेळटा आशिल्ल्यान तांकां निवृत्तीवेतन दिवंचें न्हय. ३) भारताचेर दर्यावटेन हल्लो जावपाची शक्यताय नाशिल्ल्यान भारतीय नाविक दळावयलो खर्च भारताचेर लादचो न्हय.

राश्ट्रीय पातळेवयले अर्थीक वस्तुस्थितीचें स्पश्टीकरण करपाखातीर एकट्या संकलीत तत्त्वाची गरज आसा, हाचेर दादाभाईन भर दिला. हे बाबतींत भारतांतल्या राश्ट्रीय उत्पन्नाची आनी तातूंतल्या विभागांच्या वांट्यांची गणती करपी तो पयलो भारतीय.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : दादाभाई नवरोजी.

**पिंगल भास आनी साहित्य :** आदल्या तेंपार पिंगल हो शब्द छंद:शास्त्र ह्या अर्थान प्रचलीत आशिल्लो. फुडें अठराव्या शतमानासावन पिंगल ह्या शब्दाचो भास ह्या अर्थान प्रयोग जावंक लागलो. गुरू गोविंदसिंगाच्या विचित्र नाटक ह्या ग्रंथांत पिंगल ह्या शब्दाचो भास ह्या अर्थान पयलो प्रयोग केल्लो दिसता. उपरांत राजस्थानांतल्या चारण कवींनी तिचो जायते फावट प्रयोग केलो. सद्या पिंगल शब्दाच्या अर्थांत थोडो बदल जावन तो राजस्थानमिश्रीत व्रजभाशा अशा अर्थान घेतात आनी व्रजभाशेक शुद्ध ब्रजभास अशें म्हण्टात. कांय लोक पिंगल भाशेकच डिंगल भास मानतात, पूण पिंगल भाशेंत व्रजभाशा आनी राजस्थानी ह्या दोनूय भाशांचीं खाशेलपणां दिसतात. पूण डिंगल भाशेंत फकत मारवाडी भाशेचें अनुकरण केल्लें दिश्टी पडटा. पिंगल भाशेंत व्रजभाशेचो अंश आनी राजस्थानी भाशेचो अंश कितलो आसा हें त्या त्या कवीचे इत्सेर आनी अभ्यासाचेर आदारून आसता. देखीक : पृथ्वीराज रासो ह्या काव्यांत राजस्थानीपरस व्रजभाशेचींच खाशेलपणां चड दिसतात. जाल्यार सुरजमलकृत 'वंशभास्कर' ह्या ग्रंथांत राजस्थानाचीं खाशेलपणां चड दिसतात.

राजस्थानांत पिंगलभाशेंत जायतें साहित्य रचिल्लें आसा. पूण तातूंतलो खुबूच थोडो वांटो उजवाडाक आयला. विशयाचे नदरेन पुराय पिंगल भाशेचे वांटे जाल्यात ते अशे : १) चरित्र काव्य – हाचे रासो काव्य आनी हेर काव्य अशे दोन वांटे जाल्यात. रासो काव्यांत पृथ्वीराज रासो आनी खुमाण रासो हे ग्रंथ जाल्यार हेर काव्यांत राजविलास, सुजानचरित्र, वंशभास्कर आदी ग्रंथ नामनेक पावल्यात. २) पुराणिक काव्यां – ह्या काव्यांतले विशय पुराणांतल्यान आनी महाभारतांतल्यान घेतल्यात. भाशेची सोबीतकाय, रचणूक आनी वर्णनशैली हे नदरेन ह्या काव्यांचो पांवडो चडला. अवतारचरित्र आनी वीरविनोद आदी ग्रंथ ह्या प्रकारांत आस्पावतात. ३) भक्तिकाव्य – हाचे रामभक्तीकाव्य, कृष्णभक्तिकाव्य आनी निर्गुणभक्तीकाव्य अशे तीन प्रकार आसात. नरहरिदासाचें अवतारचरित्र आनी प्रताप कुंवरीचें रामगुणसागर हे ग्रंथ तुलसीरामायणाचेर आदारिल्ले आसात. कृष्णभक्तीकाव्यांत कृष्णदास, पयहारी, मीराबाई, नागरीदास आदी कवींच्या रचनांचो आस्पाव जाता. निगुर्ण भक्तिकाव्य दादूपंथ, चरणदासी पंथ रामसनेही पंथ आदी पंथातल्या संत लोकांच्या तोंडी रुपांत मेळटा. ४) रीतीकाव्य – शृंगाररसान भरिल्लो हो प्रकार पिंगल भाशेंत बऱ्याच प्रमाणांत दिसता. रीतिसाहित्याचो पयलो कवी जान हाणें रसमंजरी, रसकोष, भावशतक आदी ग्रंथ रचिल्ले आसात. महाराजा जशवंतसिंह हाचो भाषाभूषण, कुलपती मिश्राचो रसरहस्य, सोमनाथाचो रसपीयूषनिधी आदी ग्रंथाची चड नामना आसा. ५) नीतिकाव्य – वृंद ह्या कवीन हो प्रकार पयलो हाताळ्ळा. सतसई ह्या ग्रंथावरवीं ताणें नीति आनी वेव्हार हांचें वर्णन केलां. तेभायर उमेदराम, प्रतापसिंह, बालाबरश आदी कवींनी नीती विशयाचेर ग्रंथ रचल्यात. ६) फुटकळ काव्य – हातूंत संगीत, कोश, शकुन, वैजकी, वृश्टी, रमल, रत्नपरिक्षा, स्तोत्र आदी विशायांवयल्या ग्रंथांचो आस्पाव जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**पिंगळे, दामू आपा :** (जल्म : १५ ऑगस्ट १९३६ वडगांव, आंबेगांव).

सुटकेझुजारी. तो सोशलिस्ट पक्षाचो वांगडी आशिल्लो. १८ मे १९५५ ह्या दिसा ताणें गोंयांत येवन सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. १७ मार्च १९८९ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**पिंगा :** चलयांचो एक खेळ. हो खेळ एकल्याचोच आसलो तरी एका वेळार जायत्यो चलयो मेळून हो खेळ खेळटात. हातूंत दोनूय हात भेंडार दवरून पायांमदीं अंतर दवरून कमरासकयलो भाग हालयनासतना फकत वयल्या भागाक प्रदक्षिणा वरवीं गती दिवपाची आसात. सुर्वेक भेंडासावन तकलेमेरेनचो भाग फुडें करतात. तो जमनीक समांतर दवरतात. उपरांत उजवी, फाटली आनी दावी वट ह्या क्रमान वाटकुळी घुंवडायतात. पिंगा घालता आसतना वेगवेगळीं पदां म्हण्टात.

मंगळागौर, हरतालिका ह्या प्रसंगावेळार महाराष्ट्रांत हो खेळ खेळपाची चाल आसा. ह्या खेळान भेंडाच्या स्नायूंक आनी पोटाक बरो व्यायाम घडटा.

– कों. वि. सं. मं.

**पिंगुळकार, गुणू पांडू** : (जल्म : १७ जानेवारी १९२५, करमळी).

सुटकेझुजारी. तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. गोविंद हरी भावे शास्त्री हाच्या मार्गदर्शनाखाल तो वावर करतालो. बसका आयोजीत करप, पत्रकां लावप, तिरंगी बावटे लावप तशेंच साहित्य वांटप असल्या भूंयगत वावरांनी तो वांटो घेतालो. रामभाऊ काकोडकाराक रानांतल्यान शीम हुंपपाक ताणें आदार दिल्लो. ३० ऑक्टोबर १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी पणजे पोलीस ठाण्यार व्हेलो. थंय ताच्या वांगड्यांची ताचेकडल्यान म्हायती मेळची म्हूणन ताचो खूब छळ केलो. ताणें धा म्हयने बंदखण भोगतकच ताका लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका १४ म्हयने बंदखणींत दवरलो. थंयच्यान सुटका जाले उपरांत ताका परतोय कुडाळ, महाराष्ट्र हांगा धरलो. खूब मार दिलो आनी सोडलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८५ ह्या दिसा गोंय सरकारानूय ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**पिंजारी :** कापूस पिंजून दिवपी वा कापूस पिंजपाचो वेवसाय करपी एक जात. हे लोक चडशे महाराष्ट्रांत दिश्टी पडटात. पिंजण म्हळ्यार कापूस पिंजपाची धनकुली. ह्या शब्दापसून पिंजारी हो शब्द जाला. हे जातीक धनुकपठाणी अशेंय म्हण्टात. हातूंतले कांय लोक खाट विणपाखातीर नवार तयार करतात. तांकां नवारी म्हणूनूय वळखतात. हे जातींत हिंदू आनी मुसलमान अशा दोन धर्मांचे लोक आसून मुसलमान पिंजारी संख्येन चड आसात. हे लोक कापूस पिंजून ताचेपसून गादयो, उशीं, रजयो आदी वस्तू तयार करतात. कांय लोक शेताची मजुरीय करतात.

**हिंदू पिंजारी :** हातूंत बर्लासकर, जाधव, खानेल, खैरनार, सानोई आनी ठाकरे अशीं स नामनेचीं कुळां आसात. हे लोक एकाच कुळांत लग्नां जायनात. चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता आनी चलयेखातीर देज (देणें) दिवचें पडटा. थळाव्या कुणबी लोकांच्या लग्नावरीच हांचीं लग्नां जातात. आराई आनी बोर हांच्यो खांदयो हीं तांचीं देवकां. ह्यो खांदयो लग्नाच्या माटवाक बांदतात. ताचेवांगडाच ताक घुसळपाची रवी, लाकडाचें मुसळ आनी पुन्नपोळी खांब्यांक बांदतात. तांच्यांत विधवा विवाहाची चाल आसा. हे लोक खंडोबा, देवी आनी बहिरोबा ह्या देवतांक भजतात. हे लोक मेळ्ळ्या मनशांक लासतात.

**मुसलमान पिंजारी :** हे लोक मूळचे हिंदू पूण औरंगजेबाच्या वेळार बाटून मुसलमान जाले. तांची राहणी मुसलमानांवरीच आसता. गुजरातांत तांकां नाडक आनी ताई म्हण्टात. कांयकडे ह्या लोकांनी शेख सय्यद, पठाण अशीं नांवां घेतल्यांत. हे लोक हेर मुसलमानांकडेन रोटी वेव्हार करतात, पूण बेटी वेव्हार करिनात. हे लोक शिवराक आसून हिंदू देव - देवतांक भजतात. हिंदूंचे सगळे सणूय पाळटात. तांच्या फुडाऱ्याक मेहेतर पाटील वा चौधरी म्हण्टात. हे ते जमातींतलीं तंटे झगडीं निवळायतात. तांचेमदल्या हिंदू-मुसलमान ह्या जातींतल्यान बाना हीं मिश्रजात तयार जाल्या. हे लोक पिराची पुजा करतात आनी कापसाचें पीक हातांत येतकच नव्या कापसाक पिंजपाचे धनकूली लागसार हें पीक दवरून ताका निवेद्य दाखयतात.

हे जातींत बायल बाळंत जातकच तिका चाळीस दीस अस्पृश्य मानतात. धाव्या दिसा भुरग्याचें जावळ करतात. ताका झालर म्हण्टात. कांय लोक शेख करीद ह्या संताच्यां नांवान भुरग्याचे केंस वाडयतात.

– कों. वि. सं. मं.

**पिंटो, एडव्हीन एस. जे. डी. डी. :** (जल्म: पर्वरी; मरण १९७८).

अहमदाबादेचो पयलो गोंयकार बिशप. १९३२त ताची पाद्री म्हणून नेमणूक जाली. १९४९त तो बिशप जालो. १९७३ त तो धर्मप्रचाराच्या वावरांतल्यान निवृत्त जालो.

– कों. वि. सं. मं.

**पिंटो, जेरेमियास फ्रांसीस उर्फ जॅरी :** (जल्म २४ एप्रिल १९३५, हळदोणे, बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत राजकीय आनी पुर्तुगेजांआड पत्रकां वांटप, 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेखातीर वांगडी एकठांय करप, मोहन नायर हाच्या फुडारपणाखाल चोरयां बसका घडोवन हाडप असलीं कामां तो करतालो. सत्याग्रहांत वांटो घेवंक ताणें तयारी केल्ली. पोलिसांनी ताका २७ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा धरलो. ताका तीन वर्सां खर बंदखण, एक वर्सभर दिसाक इकरा रुपया दंडभरपाय, तेभायर १५ वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतिल्ले. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**पिंटो, ज्योकीं झेवियर :** (जल्म : १ नोव्हेंबर १९३४, बडयें बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो नॅशनल कॉंग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५४ वर्सामेरेन तो पुर्तुगेजांआड कारवायांनी वांटो घेतालो. तेभायर पत्रकां वांटप, पुर्तुगेज पोलिसांच्या कारवायांविशीं खबरो पावोवप असलीं कामां तो करतालो.

मध्यानरातीर शीम हुंपून ताणें दोडामार्गार वचून पिटर आल्वारिशाचे बसकेंत वांटो घेतलो.

एप्रिल १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी बंदखणींत दवरलो. उपरांत प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून १४ जुलय १९५६ ह्या दिसा ताका अडेज वर्सांखातीर बंदखणींत घालो. ७ डिसेंबर १९५८ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९ डिसेंबर १९७३ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**पिंटो, पेद्रु जुआंव :** (जल्म : १३ नोव्हेंबर १९०९, हळदोणें, बारदेस; मरण : ४ सप्टेंबर १९८६).

सुटकेझुजारी. ताणें इंटर सायन्स मेरेन शिक्षण घेतलें. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तो सुटके चळवळीचो वावर करतालो. मार्च १९५६ ह्या वर्सा ताका ताच्या हेर वांगड्यांसयत धरलो. ताका णव वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली पूण चार वर्सां बंदखण भोगले उपरांत ताची सुटका जाली. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८२ ह्या दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**पिंटो, फ्रांसिश्कु जुआंव :** एक गोंयकार धर्मप्रचारक. तो मूळ पर्वरी वाठारांतलो.१८०१ - ०२ ह्या काळांत तो मोझांबीक ह्या वाठारांतलो एपिस्कोपल गव्हर्नर आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**पिंपळ :** (हिंदी : पीपल; गुजराती : पिपर; कन्नड : अरळीगिड; संस्कृत : अश्वत्थ, बोधिद्रुम; इंग्लीश : पीपल ट्री; लॅटीन : फायकस रिलिजिओजा; कूळः मोरेसी).

एक व्हड रूख. ताचीं पानां सादीं एकाफाटोफाट एक, अशीर तोंकाचीं, काळजा आकाराचीं, लांब देंठाचीं आनी हुमकळपी आसतात. उपपर्णा तांतया आकाराचीं आसून खवळांवरी आसतात. तरणीं आसतना पानां तांबूस तपकिरी आसून उपरांत पाचवीं जातात. पानांचे कुशीक जोडयेन फुलांचो तुरो येता. ताका देंठ नासता. सुर्वेक तो पाचवे आसून ताचो व्यास सुमार १.५ सेंमी. आसता. पुं. पुष्पां थोड्या प्रमाणांत वा केन्ना केन्नाय नासतातूय.

परिदलां तीन आनी केसरदल एक आसता. गुल्मपुष्पां खूब, स्त्रिपुष्पां थोडीं, तातूंत परिदलां पांच आनी किंजपूट आसता. परागण किटकावरवीं जाता. फळ जांबळें वा काळें आसता.

हो रूख उपहिमालय प्रदेश, बंगाल आनी मध्यप्रदेशाच्या रानांत, पुराय भारतांत देवळालागसार तशेंच खेड्यां लागसार दिश्टी पडटा. ब्रह्मदेशांत (मियानमारांत) आनी श्रीलंकेत हो वृक्ष पळोवंक मेळटा. हिंदू लोक हाका पवित्र मानतात.

वैदिक साहित्यांत एक उपयुक्त यज्ञीन वृक्ष म्हणून हाचो उल्लेख मेळटा. बृहत्संहितेंत घराचे अस्तंतेक पिंपळ लावप शुभ आसून, घराचे बांदावळींत ताचें लाकूड वापरचें न्हय अशें सांगलां. गौतमबुध्दाचो ह्या झाडाकडेन संबंद आयिल्ल्यान ह्या झाडाक बोधिवृक्ष वा बोधिद्रुम ह्या नांवानूय वळखतात. श्रीलंकेंतलो अनुराधापूरचो अश्वत्थ रूख सुमार २,२०० वर्सांआदलो अशें म्हणप जाता. हाचें बीं दुसऱ्या झाडार किल्लून रोंप अपिवनस्पतीवरी वाडटा आनी फुडें स्वतंत्र वाडटा. हाकाय वडावरीच म्हत्व आसा. ते दोनूय एकाच वंशांतले.

हें झाड सहज कोण तोडिना. तळपाकडेन जाल्ल्या चडशा पिंपळापोंदा गणपती, नाग हांच्यो मूर्ती दवरतात. तशेंच तळ्याकडेन जर वड, पिंपळ आनी उंबर एकठांय वाडले जाल्यार थंय दत्तगुरू वास्तव्य करता अशें मानतात. भूत योनींतलो मुंजो पिंपळाचेर रावता असो समज आसा.



आदिवासी पिंपळाक झाडांच्या राज्यांतलो द्वाररक्षक मानतात. कारण आपल्या पानांच्या सळसळाटान तो सदांच जागिल्ल्याचें काम करता. कांय कडेन पिंपळ खैरासारक्या झाडाचे खांदयेर वाडून त्या झाडाचो नाश करता. देखून ताका 'वैबाध' (नाश करपी) अशेंय म्हळां.

सिंधू संस्कृतायेंत पिंपळाचें पान हें सुख आनी आस्पतीचें प्रतीक समजप जातालें. लोकसंस्कृतायेंत अश्वत्थाचें पट नांवाचें एक व्रत आसा. ह्या व्रताखातीर पांच तरांचीं पिंपळपानां घेतात. पाचवें पान सोबितकायेखातीर, कंवळें पान नवजात पुताखातीर, पिकिल्लें पान घोवाक चड आयुश्य मेळचें म्हणून, सुकिल्लें पान सूख आनी समृध्दी वाडपाखातीर आनी पिनिल्लें पान अनपेक्षित, अमर्याद संपत्ती खातीर मानून त्या पांचूय पानांची पुजा करतात.

पिंपळाच्या लाकडापसून खोकीं, जूं, फस्कां, आयदनां आदी तयार करतात. ह्या झाडाचे सालींत टॅनीन आशिल्ल्यान चामडी कमोवपाक तेचपरी ती रंगोवपाक सालीचो उपेग करतात. सालींतल्या धाग्यापसून दोरयो तयार करतात. तुरटी आनी पिंपळाचीं मुळां हांचो सुती कापड आनी धागो रंगोवपाखातीर उपेग करतात.

पिपळाची साल स्तंभक आसून ती प्रमेहाचेर दितात. फळां सारक, बी शितळ आनी आरोग्यप्रद, पानां आनी कंवळी पालवी रेचक (पोट निवळ करपी) आसा.

गोंयांत पिंपळाच्या झाडामुळांत वड, रूमड हाचेवरी पेड बांदतात. कांयकडेन ह्या पेडार सदांच तिनसांजचो दिवो पेटयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**पिकासो, पाब्लो :** (जल्म : २५ ऑक्टोबर, १८८१ मॅलागा, स्पेन; मरण : ८ एप्रिल १९७३ मोन्जीस, फ्रांस).

नामनेचो चित्रकार आनी शिल्पकार. हाचें पुराय नांव पाब्लो रुइझ पिकासो. हाचो बापूय दाँ जुजे रुइस ब्लास्को हो चित्रकलेचो प्राध्यापक आशिल्लो. पाब्लोचो बापूय दृकप्रत्ययवादी, वास्तववादी चित्रकार तसोच पुराय चित्राचेर भर दिवपी. हाका लागून



पिकासोन ल्हानपणासावन वास्तव, दोळ्यांक दिसतात त्यो भोंवतणच्यो गजाली चित्रांत उतरायल्यो आनी मांडल्यो. ताणें पिरायेच्या णवव्या वर्साचेर चितरायल्ल्या चित्रांनी लेगीत ताची शोधक नदर दिश्टी पडटा. तशेंच इकराव्या आनी बाराव्या वर्सा ताणें स्वताच्या चित्रांचीं नेमाळीं 'असुली ब्लांको' आनी 'ल कोरूना' निर्मिलीं.

ऑक्टोबर १८९५ त ताचें कुटूंब बार्सेलोनाक (स्पेन) स्थलांतरीत जालें, तेन्ना पिकासोन थंय 'ल लोन्जा' ह्या चित्रकलेच्या विद्यालयांत (१८९६) आनी 'रियल अकादमीया वेलास आर्ट्स द सां फेर्नाण्डो', माद्रीद (१८९७) हांगा चित्रकलेचें शिक्षण घेतलें. तो पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा यथार्थ चित्रणांत बरोच कुशळ आशिल्लो. ह्या काळांत जायतीं सैम-चित्रां, घटना-चित्रां आनी व्यक्तिचित्रां ताणें चितरायलीं.

तरणे पिरायेर आनी निर्मितीच्या अती संवेदनशील अशा काळांत म्हळ्यार १८९९ ते १९०५ मेरेन ताच्या चितारपांत आकांताची विविधताय जाणवता. सुरवातीच्या काळांत १९०० ते १९०१ मेरेन ताणें आपल्या चित्रांनी भडक, उशण रंग वापरले. उपरांत मुखेलपणान निळे रंग शैलींत चित्रां रंगयलीं. ह्याच काळाक ताचे जिणेंतलो 'निल-काल' म्हण्टात. १९०१ वसांचे निमाणे ते जानेवारी १९०४ मेरेन ताणें अशी चित्रां काडलीं. ह्या चित्रांचे विशय म्हळ्यार समाज-जिणेंतले लोकप्रिय आनी नकली समाजाच्यो प्रवृत्ती दाखोवपी प्रसंग आसले. हातूंत कॅबरे नाच, सर्तीचीं मैदानां, नाच-घरां तशेंच समाजांतले पिडेस्त, दुखेस्त लोक जे नकली समाजापसून तुटिल्ले ते म्हळ्यार वेश्या, भिकारी, बेबदे हांचेंय चित्रण ताणें केलां.

१९०४ वर्सा ताणें पॅरिसाकूच आपलें बस्तान बसयलें. ह्याच काळासावन समाजाकडेन ताणें नाजुक भावनेन मनीसपणाचे उकते नदरेन, सरभोंवतणीं तोखणायेन पळयिल्ल्याचें दिसता. ह्या काळांतल्या ताच्या चित्रांनी उशण रंगाचो वापर, अदीक लयबद्धताय आनी चितारपांतली अभिजात प्रमाणबद्धताय तशेंच चित्रांचे विशय बदलिल्ल्याचें दिसता. हो पिकासोचो 'गुलाबी काळ'. ह्या गुलाबी काळांतले ताचे आवडटे विशय म्हळ्यार नाचपी, विदूशक, चड करून मूक नाट्यांतले विदूषक, नट हे आशिल्ले, जे ताका देल-आर्तेच्या प्रहसनांनी दिशिल्ले. ह्या काळांतलीं ताचीं चित्रां जपानी वेताळ चित्रां वा उदेंतेकडल्या चादरांवयल्या (रग्स) चित्रां -आकाराभाशेन दिसतात. पिरायेच्या तेविसाव्या वर्सा जेन्ना तो पॅरिसांत रावपाक आयलो तेन्ना आर्विल्ले कलेचो झोत होच मुळांत वर्णनात्मक, प्रतिनिधित्ववादी शैलीचे आड आसा हें ताका उमगलेंना आनी ताणें सुरवातीक निळ्या आनी उपरांत 'गुलाबी'रंग शैलींतलीं लांबोटकीं चित्रां रंगयलीं. पूण तो सदांच प्रयोगशील आनी संशोधक वृत्तीचो आशिल्लो.

आर्विल्ले कलेचें गुपीत जाणा जावन घेवपाक तो ब्राक, ग्रीस, डेरेन सारक्या चित्रकारांक आनी आपोलीनेर सारक्या संग्राहक आनी लेखकांक मेळ्ळो. १९०६ ते १९०७ च्या काळांत पॉल सेझान ह्या चित्रकाराच्या चित्रांच्या प्रभावान तशेंच ग्रीसी आयबेरीयन कला आनी आफ्रिकेच्या शिल्पकृतींचे पारखणेन पिकासोक एक नवो विचार होलमलो. ताका दिसलें, पारंपारीक चित्रणपद्धतींतलें यतार्थवादी चित्रण खास करून एक बिंदू यथा-अवलोकन (Perspective), छाया-उजवाड आनी आकाराचो आनी रंगाचो उजवाडाक लागून दाखयल्लो उठाव जर काडून उडयलो जाल्यार दिसपी आकार फकत कल्पनाशक्तीन अदीक खरेपणानिशीं चित्रावंक येता. आफ्रिकी शिल्पांच्या वांकड्या-तिकड्या वा बोजड नाकांत, मोठ्या दोळ्यांत आनी फांकारिल्ल्या पांयांत रचनात्मक मांडणी होलमुपी आनी पारखून तोच सृजनात्मक वापर करपी पिकासो हो पयलो युरोपीय कलाकार. ह्या सगळ्यांच्या प्रभावान 'ऑव्हीग्नोनच्यो ललना' (Les Demoisselles d'Arignon) १९०७ (आर्विल्लें कला संग्रहालय, न्यूयॉर्क) ह्या चित्रांत एक नवी तरा आपणायली. ह्या चित्रांत पांच विवस्त्र बायलो, कुडक्या-कुडक्यांनी आनी विंगड-विंगड कोनांतल्यान घनाकारांचे विंगड-विंगड दृश्य-स्तर दाखोवन पिंतारल्यात. हांगा सावनूच 'घनवाद' (cubism) हे अस्तंतेच्या चित्र-जगतांतले नवे शैलीची श्रीगणेशा जाली. 'घनवादी' चित्रशैली पिकासोन १९२५ मेरेन मुक्तपणान केळयली. १९०८ त पिकासो आनी जॉर्ज ब्राक एकठांय, इश्टागतीन काम करपाक लागले. पिकासोन 'घनवादी' शैलींत काम करतना १९१५ त वांगडाच वेगळे तरेची निर्मणी चलयली. हे निर्मणेंत अभिजात प्रमाणबद्धतायेंतल्यान, ल्हवपीकपणान चित्रायल्लयो मनुष्याकृती रेषाबध्द आनी शिल्पांसारक्यो व्हड आकाराच्यो आशिल्ल्यो.

१९२५ वर्सा उपरांत शरीराकृती आनी तकल्यो हांच्या आकारांतल्यान भावनाप्रेरीत चित्ररुपी सिध्दांत सोदपाचो पिकासोन यत्न केलो. हाका लागून मानवी शरिराची मोडतोड द्विप्रतिमा आनी चित्र रूपकां ताच्या चित्रांनी तयार जालीं. अतित-यतार्थवादी खाजगी प्रतिभा - संपन्न चित्रांचो एक संग्रहूच देखीक : नर - बैल (The Minotaur) तयार जालो. १९३६ वर्सा जेन्ना, स्पॅनीश झुजाक तोंड फुटलें आनी भयंकर सांवार जालो, ताचेवयल्यान 'ग्युयेर्निका' (Guernica) १९३७ ही कलाकृती रचली. राजकीय घडणुकांचेर आपले खाशेले भाशेन 'भाश्य' करपी पिकासो हो सुदारणावादी कलाकार.

१९४४ वर्सा पिकासो कम्युनिस्ट पार्टींत सामील जालो आनी १९४९ वर्सा ताचें 'कबुतर' (Dove) हें शिळा-मुद्रा चित्र म्हणून आपणायलें. झुजा उपरांतच्या काळांत ताच्या चित्रांचे विशय झूज आनी शांती हांचे भोंवतणी घोळटाले, तशेंच मनशाचे सुसेगाद, शांतीकायेन आनी समाजिकायेन जगपाचे हक्क हे आशिल्ले. १९५५ वर्सा उपरांत ताच्या चित्रांतले विशय आनी ते हाताळपांतली चित्रकाराची शक्त हाका खूब म्हत्व आयलें. संवसारांत दिशिल्ल्यो गजाली आनी तांचे बारीक सारीक तपशील, हांकां फकत सुंदरकायेचें रूपडें चडयनासतना ताणें बिनधास्तपणान चित्रांत

उतरायले.

पिकासोची प्रतिभासंपन्न आनी नवेपणाचो सोद घेवपी वृत्ती हाका लागून ताका खुबशा कला-माध्यमांनी काम करपाची संद मेळ्ळी. १९१७ ते १९२४ ह्या काळांत 'दियागिलार्स रशियन बॅले कंपनी' च्या 'परेड', 'ल त्रिकोर्न', 'पुल्सीनेला' असल्या नृत्यनाट्यांक ताणें नेपथ्य चितारलें. शिळा-मुद्रण कलेंत ताणें नवे नवे प्रयोग केले आनी तंत्रीक सुदारणा केल्यो. ताणें लिनोमुद्रणकलेंतूय सुदारणा केल्यो. आयदनांचेरूय ताणें चित्रां काडलीं. विंगड-विंगड माध्यमां ताणें सहजतायेन आनी कुशळटायेन हाताळ्ळीं.

चित्रकलेंतल्या आपल्या लांबलचक कर्तृत्वांत ताणें घनवादा वांगडाच अभिव्यक्तिवाद, केवलवाद आनी हेर शैलींनीय कलाकृती निर्मिल्यो. पूण घनवादाकडेनूच ताचें नांव चड जोडलां.

'कलाकार हे समाजाचे फुडारी आसूंक जाय पूण कला मात उलथा-पालथ करपी आसूंक जाय' अशें पिकासो म्हण्टा. ताच्या कलाकृतींनी चित्रकलेंत एक नवी जागृताय हाडली. संवसारीक संग्रहालयांनी ताच्या कलाकृतींनी स्वताच्या हक्काचें स्थान मेळयलें. भरपूर पयसो आनी नामना मेळून लेगीत तो जल्मभर चित्रनिर्मिती करीत रावलो. भावनीक अस्वस्थताय, जिणेची पोकळसाण हाका सुखाचें अस्तर लावपाखातीर आनी तें आपल्या छंदांतल्यान सोदपाचो यत्न केल्ल्यान दरेके फावटीं आयिल्ली निराशा आनी तरी लेगीत आपल्या इत्सांचें स्व-जग निर्माण करपाखातीर ताणें जल्मभर चित्रनिर्मिती केली. पछाडलेली नदर आनी बेफाम स्वभाव अशे तरेचो हो चित्रकार. ताका लटके कायदे, संबंद, बंधनां आनी मर्यादा ह्या सगळ्यांपसून पुराय मुक्तताय चित्रकलेखातीर जाय आशिल्ली.

१९७० त ताणें जैम साबार्तीस ह्या आपल्या प्रामाणिक इश्टाच्या उगडासाक बार्सेलोना शाराक आपल्या चित्रांचो झेलो ओंपलो. ते मेरेन हो झेलो पिकासोच्या घरा, पयलीं ताची आवय आनी भयणीकडेन आनी उपरांत भयणीच्या भुरग्यांकडेन आसलो. ताचो हो झेलो म्हळ्यार ताच्या जल्मभराच्या वावराचो तशेंच ताच्या भाव-भावनांचो खजिनो जावन रावला.

– दिगंबर गो. सिंगबाळ

**पिठोरी उमास :** एक काम्यव्रत. श्रावण उमाशेक पिठोरी उमास म्हण्टात. जांचीं भुरगीं जगनात अशो बायलो पिठोरीचें व्रत करतात. हें व्रत पुजाप्रधान आसून चवसठ योगिनी ह्यो ताच्यो देवता. ह्या व्रताचें विधान अशें – श्रावण उमाशे दिसा दिसभर उपास करप. सांजवेळचें न्हावन आठ कलशांची स्थापना करप. ताचेर पूर्णपात्रां दवरून तातूंत ब्राह्मी, माहेश्वरी आदी शक्तींच्यो मुर्ती स्थापप. तांदळाचे राशीचेर चवसठ सुपाऱ्यो मांडून तांचेर चवसठ योगिनींक आपोवप आनी उपरांत तांची पुंजा करप. उपरांत व्रताखातीर केल्लें गोडशें माथ्यार घेवन कोणूय सोयरो आसा? असो प्रस्न विचारचो. भुरग्यांनी आपूण आसात अशें म्हणून तें गोडशें फाटले वटेन काडून घेवपाचें आसता.

आदल्या तेंपार पुजेच्यो मुर्ती पिठाच्यो करतालीं. ह्या व्रतांत निवेद्याखातीर सगळे पदार्थ पिठाचेच करतात. तांचेवयल्यानूच ते तिथीक पिठोरी उमास अशें नांव पडलें आसूं जाय. ह्या व्रताची कथा अशी –

पुर्विल्ल्या काळांत श्रीधर नांवाचो एक ब्राह्मण आशिल्लो आनी ताका शंकर नांवाचो एक पूत आशिल्लो. शंकराचे बायलेचें नांव विदेही. ह्या दोगांकय भुरगीं जातालीं पूण तीं वांचनासलीं. एक फावट श्रीधर श्राध्द करता आसतना विदेही बाळंत जाली. पूण तिचें तेंय भुरगें मेलें. तेन्ना तिचे मांयन तिका खूब उलयली. तें आयकून तिका वायट दिसलें. ती तें मेल्लें भुरगें घेवन रानांत गेली. थंय एक बायल रावताली. तिणें तिचें दुख्ख आयकून तिका सांगलें, मध्यान रातीर हांगा चवसठ योगिनी येतात. तेन्ना तू तांची प्रार्थना कर. रातच्यो चवसठ योगिनी आयल्यो आनी ताणीं विचारलें हांगा कोण सोयरो आयला? तेन्ना विदेही फुडें सरली आनी तांकां आपली काणी सांगली. तेन्ना तिचीं भुरगीं वांचतलीं असो ताणीं तिका वर दिलो. तेप्रमाण थोड्याच वेळान विदेहीचीं सगळीं भुरगीं जितीं जालीं. उपरांत तांकां घेवन ती घरा आयली आनी तिणें मोट्या मानान चवसठ योगिनींची पुजा केली. तेन्नासावन हें व्रत प्रचारांत आयलें.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : उमास.

**पितर :** देवत्व प्राप्त जाल्ले पुर्वज. सादारणपणान पितरांचे मृत आनी अमृत अशे दोन भेद जातात. मनीस मरतकच पितृलोकांत वता आनी ताच्या वंशजांक ते पितर जातात, हाका मृत पितर म्हण्टात. सृश्टरंभापसून जे पितृलोकांत रावतात ते अमृत पितर. सगळे मेल्ले मनीस हे पितर.

पितरांची कल्पना संवसारांतल्या सगळ्या आदल्या समाजांनी आशिल्ली हें दिसता. वेगवेगळ्या समाजांनी वेगवेगळ्या तरांनी पितरांविशीं पुराणीक कल्पना आसात. वैदिक मताप्रमाण सगळ्यांत पयलीं मेल्लो यम हाणें आपल्या फाटल्यान येवपी मेल्ल्यांखातीर परलोकाचो मार्ग सोदून काडलो आनी त्या मार्गान सगळे वचपाक लागले. ऋग्वेदांत पितरांविशी असो उल्लेख मेळटा – यक्ष, किन्नर, गंधर्व ह्या प्रमाण पितर हे देवां भाशेनच. मनीस मेले उपरांत पितृलोकांत वतात. अशीं हीं मेल्लीं मनशां फुडल्या वंशाचीं पितरां जातात. यम हो पयलो पितर. पितर यमावांगडा आनंदान रावतात. यजमानान केल्ल्या पितृयज्ञांत पितर येवन दक्षिण दिकेवटेन दर्भाच्या आसनार बसतात अशें ऋग्वेदांत म्हळां.

पुराणां आनी स्मृतीग्रंथ हातूंत पितरांविशीं वेगवेगळ्यो कथा कल्पना मेळटात. कालिका पुराणांत पितर हे ब्रह्मदेवाचे पूत मानिल्ले आसून तांची उत्पत्ती अशी सांगल्या. ब्रह्मदेवाच्या शरिरांतल्यान जो घाम आयलो ताचेपसून अग्निष्वात आनी बर्हिषद अशे पितृगण निर्माण जाले. ते सगळे काजळावरी काळे कुळकुळीत, कमळावरी दोळ्यांचे, अत्यंत संयमी, पुण्यवान आनी संवसारविमुख आशिल्ले. अग्निष्वात हे चवसठ हजार आनी बर्हिषद हे शांयशीं हजार संख्येचे आशिल्ले.

वराहपुराणांत पितरांची उत्पत्ती अशी सांगल्या – ब्रह्मदेवान देव निर्माण केले आनी तांकां यज्ञ करपाक सांगलें. देवांनी ताका न्हयकार दिलो. तेन्ना ब्रह्मदेवान तांकां मूर्ख जावपाचो शाप दिलो. देव मूर्ख जाले बरोबर सगळे जनतेचें तरातरान नुकसान जावंक लागलें. तेन्ना मूर्ख जाल्ले देव ब्रह्माकडेन गेले. ब्रह्मान तांकां तांच्या पुतांकडेन वचपाक सांगलें. देव आपल्या पुतांकडेन गेले आनी तांकां ब्रह्मशापाविशीं प्रायश्चित विचारलें. तेन्ना देवपुत्रांनी तांकां प्रायश्चित समजावन सांगलें. तें पळोवन देवांनी तांकां म्हळें, तुमी आमचे पितर. तेन्नाच्यान देवपूत हे पितर जाले

आनी स्वर्गांतूच देव तांची उपासना करूंक लागले.

पुराणांनी मूर्त आनी अमूर्त अशे दोन प्रकारचे पितर मानल्यात. हविष्मत (काव्य), सुस्वधा (उपभूत), आज्यप, सोमप (सुकाल) अशे मूर्त पितरांचे चार गण आसात. तांची उपासना चार वर्ण करतात. अमुर्तांत वैराज, अग्निष्वात आनी बर्हिषद अशे तीन गण आसात. हांची उपासना देव करतात. ह्या सात गणांक रावपाखातीर अनुक्रमान सत्य, विरजस, सोमपथ, मरीचिगर्भ, कामग, मानस आनी सनातन हे सात लोक दिल्यात. ह्या सात जाणांक दरेकीं एक एक मानसकन्या आसा. मेना, अच्छेदा, पीपरी गो, यशोदा, विरजा आनी नर्मदा अशीं तांचीं नांवां. महाभारतांत पितरांचे अग्निष्वात्त, फेनप, उष्मप, सुधावात आनी बर्हिषद अशे वेगवेगळे गूण सांगल्यात. पितर हे देवांपरस आद्य आसून तातूंत अग्निष्वात हे उदेंतेचे, बर्हिषद हे दक्षिणेचे, आज्यप हे अस्तंतेचे आनी सोमप हे उत्तरेचे अशें म्हळां. प्राचीनावीतीन स्वधा अशें म्हणून दिल्लें अन्न आनी सोमरस पितर सेवन करतात. तांकां गेंड्याचें मास, शीत, सांपे, यव, मूग, ऊंस, धवीं फुलां, फळां, दर्भ, उडीद, गायचें दूद, तूप, म्होंव हे पदार्थ आवडटात. ताका मसूर, तागाचें बीं, कुळीथ, कमल, बेल, रूई, धुतरो, कोडुलिंब, अडूळसो, बोकडी मेंढरांचे दूद आवडना आसूंये. देखून ते श्राध्दांत निषिध्द सांगल्यात. तांकां लोभ, मोह आनी भंय हे विकार जातात, पूण शोक जायना. तांकां आपली इत्सा तोंडान उक्तावपाक येना. मनान ते जाय थंय वचूंक शकतात. ते कल्पन्ती शापान नश्ट जातात आनी कल्पारंभी उशापान निर्माण जातात.

देव, पितर आनी मनीस हे वेगवेगळे समाज आसात अशे जायते उल्लेख वैदिक साहित्यांत मेळटात. पितृसमाजाचें मुखेल धर्मीक कार्य म्हळ्यार पितृपुजा, पितृसेवा वा श्राध्द हें आशिल्लें. सद्याच्या काळांत मेल्ल्या पितरांचें श्राध्द करतात. पूण अतिपुर्विल्ल्या काळांत जित्या पितरांचेंय श्राध्द करपाची चाल आसली. सद्या मेल्ल्या पितरांच्या जाग्यार ब्राह्मणांची येवजण करतात. पुर्विल्ल्या काळांत लेगीत जित्या बापायक पितराचे सुवातेर बसयताले. मनुनूय हे गजालीचो उल्लेख केला. बापूय जिवो आसुनूय पुतान श्राध्द करपाची चाल पुर्विल्ल्या काळांत आशिल्ली हें लक्षांत घेतल्यार पितृयज्ञ वा पितृपुजा हो पितर समाजाचो मुखेल धर्म आशिल्लो अशें दिसता.

पुरूरव-आर्द्रव आनी धूरिलोचन हे पितरांचे विश्वदेव आशिल्ले. तशेंच मातली, यम आनी बृहस्पती हे पितृसमाजाचे फुडारी आशिल्ले.

– वा. ल. वझे

पूरक नोंद : परलोक, पिंडदान, श्राध्द.

**पिताम :** (पळेयात कातीचे विकार).

**पितूळ :** तांबे आनी जस्त हांच्या मिश्रधातूक पितूळ म्हण्टात. पितळींत तांबे हो मुखेल आनी जस्त हो मिश्रक धातू आसता. ५-४०% जस्त आशिल्ल्यो वेगवेगळ्यो पितळी उपेगाचे नदरेन म्हत्वाच्यो आसात.

कांशें आनी पितूळ हांचे मदीं जायतें सारकेपण आशिल्ल्या कारणान पुर्विल्ल्या काळांत तांचेमदीं फरक करिनाशिल्ले. हाका लागून पितूळ हो वेगळो मिश्रधातू म्हणून सुमार पंदराव्या शेंकड्यांतूच कळ्ळें. ताचे उपरांत पितूळ हो मिश्रधातू आयदनां, पदकां, नाणीं करपाक वापरांत आयलो. सध्या प्रचलीत आशिल्ल्यो पितळी एकुणिसाव्या जावं विसाव्या शेंकड्यांत प्रमाणभूत जाल्ल्यो आसात.

ग्रॅफायटाचे मुशींत पितळ तयार करतात. पयलीं शुध्द तांबें वितळावन घेतात आनी उपरांत तातूंत योग्य त्या प्रमाणांत जस्त घालतात. द्रव पितळीचें ऑक्सिडीभवन जावंचें न्हय म्हणून मुशींच्या तोंडाचेर लोणारी कोळसो जावं ग्रॅफायटाच्या पिठ्याचो संरक्षक थर घालतात. पितुळीची मोडय परत पितूळ तयार करपाखातीर वापरतात. पितुळीचें कडपाचें तापमान ९००° - १,१००° सें. आशिल्ल्यान तें कडोवपाखातीर कोकची वा विद्युत् भट्टी वापरतात. तशेंच पितुळीचें ओतीव आकार तयार करतना द्रव-घन ह्या स्थितीबदलाक लागून जावपी संकोचन मतींत घेवंचें पडटा.

शुध्द तांबें तांबूस रंगाचें आनी शुध्द जस्त धव्या रंगाचें आसता. पितळींतलें जस्ताचें प्रमाण जशें जशें वाडत वता, तसो तसो ताचो रंग तांबड्यापसून हळदुव्याकडेन बदलत वता. कांय खास अशा प्रमाणांत जस्त आशिल्ले पितळीक भांगरासारको रंग येता.

उत्कृश्ट उश्णताय आनी विद्युत् संवाहकताय हे तांब्याचे म्हत्वाचे गूणधर्म. तांब्यांत जस्त भरशितकच ह्या दोनांच्याय गूणधर्मांनी फरक पडटा. सुमार ३०% जस्त आशिल्ले पितुळीची विद्युत् संवाहकताय शुध्द तांब्याचे संवाहकते परस ६०% उणी आसता. पितुळीचे उश्णताय संवाहकतेंतूय असोच उणाव दिसून येता. मुळांत चिवट आनी मोव आशिल्ल्या तांब्याचे यंत्रीक गूणधर्मूय जस्ताच्या भरसणान बदलतात.

विरुपणाचे (आकार वा रूप दिवपाचे) नदरेन पितुळीचे दोन गट पडटात. ते म्हणजे १) सुमार ३०% जस्तामेरेनचीं पितळां ह्या गटांतले पितळीपसून पातळ पत्रे, नळयो, सरयो हे सारकिले आकार सामके सोंपेपणी तयार करपाक येतात. २) ३०-४०% जस्त आशिल्ल्यो पितुळी ह्या गटांतल्या पितळींक सांच्यांत घालून आकार दितात. ओतकामानूय पितुळीचे आकार तयार करपाक येतात.

लोखण आनी तिख्या परसूय पितळ चड गंजविरोधी. हवा आनी उदक हांचो पितुळीचेर चडसो परिणाम जायना. दर्याचें उदक वा आम्लां हाणीं मात पितुळीचें बेगीन संक्षारण जाता. पितुळीच्या संक्षारणांत जस्तक्षय (dezincification) आनी कालिक भंजन (कालांतरान जावपी संक्षारण) हे दोन मुखेल प्रकार आसात.

उद्देगीक नदरेन कांय पितुळी चड उपेगी आनी नामना फावो जाल्ल्यो आसात. हातूंत ह्या कांय पितुळींनी तांबें आनी जस्त ह्या मूळ घटकांवांगडा हेर कांय घटक धातूय थोड्या प्रमाणांत आसतात. साद्यो पितुळी, काडतुसाची पितूळ, मुंट्झ धातू, यंत्रणक्षम पितूळ आनी संक्षारण प्रतिबंधक पितळी हे कांय पितळीचे म्हत्वाचे प्रकार.

– कों. वि. सं. मं.

**पितृसत्ताक कुटुंबपद्दत :** कुटुंबांतल्या मनशांचेर आनी कुटुंबाच्या वेव्हाराचेर बापायची वा जाण्टेल्या दादल्याची अधीसत्ता आशिल्ली कुटुंब वेवस्था. अशी पद्दत आशिल्ल्या कुटुंबांतल्या सगळ्या दादल्या-बायलांची जीण नियंत्रीत करपाचो अधिकार पिरायेन वा नात्यान व्हड आशिल्ल्या दादल्याकडेन आसतात. विंगड विंगड देशांनी आनी विंगड विंगड काळांनी कुटुंबांतल्या मनशांचेर मुखेल दादल्याचे अधिकार वेगवेगळे आसताले. कुटुंबाची आसपत, वारसो, आडनांव, वंशावळ ह्यो गजाली बापायकडल्यान

पुताक मेळटात. बायल लग्नाउपरांत घोवा घरा वता. तिचे अधिकार तिच्या घोवाच्या अधिकारांचेर आदारीत आसतात. तिचो घोव कुटुंबाचो मुखेली आसत जाल्यार तिचे अधिकार आनी मान कुटुंबांतल्या हेर बायलांपरस चड आसता. हे तरेचीं कुटुंबपद्दत कांय आडवाद सोडले तर संसारभर कार्यरत आसा.

पुर्विल्ल्या रोमी प्रजासत्ताकांचे सुर्वेक पितृसत्ताक कुटुंबपद्दत ही चड प्रभावी आशिल्ली. कुटुंबांतल्या हेर मनशाच्या वर्तनाक मर्यादा घालून दिवप, कुटुंबांतल्या चल्या-चलयांचें लग्न थारोवप, पुराय संपत्तीचेर आपलो मालकी हक्क दवरून हेरांची गरज पडटा तशी वेवस्था करप, तांचो वावर तांकां वांटून दिवप, तशेंच वेळ आयल्यार कुटुंबांतल्या कांय मनशांक विकपाचे अधिकार ताका आसताले. हे पद्दतीक अमर्याद पितृसत्ताक अशें म्हण्टात. अरबांच्या पंगडांत अशीच अमर्याद पितृसत्ता आशिल्ली. पूण भारतांत पितृसत्ता ही मर्यादीत स्वरुपाची आशिल्ली. कुटुंबाच्या मुखेल्यान कसलेंय वायट कृत्य केल्यार, ताच्या भावांक वा बायलेक ताका जाप विचारपाचे सगळे हक्क आशिल्ले. चीन देशांत कुटुंबाचो मुखेली, ताची बायल, लग्न जाल्लीं वा जावंक नाशिल्लीं भुरगीं तांचीं नातरां अशें विस्तारीत कुटुंब पिळग्यांच्यो पिळग्यो चलत आयिल्लें. अर्थीक, सामाजीक, राजकीय आनी धर्मीक घटक म्हणून हें कुटुंब वावुरतालें. आयज लेगीत सुदारिल्ल्या मनीस समाजांत पितृसत्ताक पद्दत आसा, पूण बापायचे अधिकार आतां खूब मर्यादीत जाल्ले आसात.

ऋगवेदांत बायलांकूय दादल्या इतलोच मान आनी हक्क आशिल्ले अशें साबारकडेन म्हळां. वेगवेगळ्या कार्यांनी ती आपल्या घरकाराक पालव दिताली. घरवेवसायांत तिचोच वांटो चड आसतालो. पूण कांय कार्यां अशीं आशिल्लीं जांकां लागून बायलांक त्या कार्यांसावन पयस दवरिल्लीं. देखीक – झुजामळार दुस्मानावांगडा झुजपाचें कर्तव्य दादल्यांचेंच आशिल्लें. हातूंत बायलांनी वांटो घेतलो जाल्यार वंशूच काबार जावपाचो भंय आशिल्लो. झूज हे म्हत्वाचे घडणुकेक लागून उपरांत समाजांत दादल्यांचें व्हडपण निर्माण जालें. कुटुंबाचो वंश चलोवपाखातीर बायलांची जतनाय घेवप भोवगरजेचें आशिल्ल्यान बायलांचो वावर मर्यादीत उरलो आनी तिचेर साबार बंधनां आयलीं. मनू, वात्सायन हाणींय बायलांचे अधिकार मर्यादीत दवरून पितृप्रधान कुटुंबवेवस्था उखलून धरली. मध्ययुगांत लेगीत साबार समाजांमदीं पितृप्रधान कुटुंबवेवस्था चालींत आशिल्ली. सगळी सत्ता कुटुंबमुखेल्याच्या (दादलो) हातांत आशिल्ली. बायल आनी भुरगीं हांचेर ताची अमर्याद सत्ता आशिल्ली. ह्या काळांत बायलांचो दर्जो साप्प सकयल्या पांवड्यार आशिल्लो. बायलांक स्वतःची मालमत्ता नासताली. तिचेर कितलेय अन्याय जाले जाल्यार तिका जाप मागपाक हक्क नाशिल्लो. दादल्याक ताचे मर्जेप्रमाण लग्नाचें नातें मोडप शक्य आशिल्लें. दुसरे खेपे लग्नूय जावपाक जातालें. बायलांक मात हे हक्क नाशिल्ले. बायलांक सुर्वेक बापायचेर, उपरांत घोवाचेर आनी निमाण्या दिसांनी आपल्या पुताचेर आदारून रावचें पडटालें. कांय समाजांनी आज लेगीत दादल्याचे मान्यतायेखेरीज बायलांक घराभायर सरूंक मेळना.

अस्तंत कुटुंबपद्दतीचो विचार करतना वेगवेगळ्या काळांनी ती साबार प्रकारांत बदलत गेल्ली दिश्टी पडटा. बायबलांत वर्णन केल्ले पितृसत्ताक कुटुंबपद्दतींत बायलांक समाजांत दादल्यापरस उणो दर्जो आशिल्लो. दादले साबार बायलांकडेन लग्न जावंक शकताले. पुर्विल्ल्या रोमी कुटुंबांत बापायकडेन सगळे अधिकार आसताले. स्वताच्या भुरग्यांक लेगीत जिवेशीं मारपाचे ताका अधिकार आशिल्ले. भुरग्यांक पोसपाची, तांकां शिक्षण दिवपाची आनी हेर सगळी जापसालदारकी बापायची आसताली. लग्नाउपरांत लेगीत भुरगीं बापायच्या घरा रावतालीं. मध्ययुगाच्या शेवटाक रोमांत दादल्यांची सत्ता उणी जायत गेली, पूण बायलांक समाजांत उंचेली सुवात केन्नाच मेळ्ळिना.

उद्देगीक क्रांतीउपरांत पारंपारीक वेवसाय उणे जायत गेले, तशें कुटुंबसंस्थेचेर ताचे परिणाम जावन कुटुंबाची विभागणी जायत गेली. आधुनिकीकरण, उद्देगीकरण, शारांतली जीण, बायलांची बदलपी समाजीक सुवात, असल्या गजालींक लागून कुटुंबांत दादल्यांची सत्ता मर्यादीत जाल्या आनी बायलांचे सत्तेंत वाड जाल्या. पूण कुटुंबांत (केंद्रक आनी रासवळ) अधिसत्ता ही दादल्यांकडेनूच उरल्या. मालमत्तेचो वारस, घराब्याचें नांव दादल्याच्या वंशाकडल्यानूच चालींत उरलां. अर्थवेवस्था, राजकारण, धर्मीक आनी समाजीक जीण हांचेर पितृसत्ताक कुटुंबपद्दतीचो प्रभाव पडिल्लो आसा.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : मातृसत्ताक कुटुंबपद्दत.

**पियानो :** पियानो हें एक तंतूवाद्य. पुराय इटालियन नांव 'पियानोफोर्ते'. पियानो म्हळ्यार मोव आनी फोर्ते म्हळ्यार मोटो. पियानोवरवीं दोनूय तरांचे (कोमल आनी तार स्वर) निर्माण जातात, तें ह्या नांवावयल्यान प्रतीत जाता. हातपट्ट्यो, स्वरतारो आनी तांचेर आघात करून नाद निर्माण करपी ल्हान तुतये हे ह्या वाद्याचे मुखेल घटक. ल्हान-व्हड स्वर निर्माण करप, स्वरघुमारो लांबोवप आनी थांबोवप (स्वर नियंत्रण करप) ह्या वाद्यान करूं येता. ह्या खाशेलपणाक लागून अस्तंती संगीत संवसारांत हें वाद्य खूब लोकप्रिय जालें.

अस्तंती पायप ऑर्गन (Pipe organ) आनी भारतीय पेटी-वाद्य हांचें पियानोकडेन बरेंच साम्य दिसता. स्वरमंडळाची निर्मिती, वाजोवपाची पद्दत आनी एकंदर मांडावळ ह्या वाद्यांमदीं सारकी दिसता. तशेंच, आधुनिक इलेक्ट्रीक ऑर्गन हें वाद्यूय पियानोच्या स्वर निर्मिती तंत्राचेर आदारून आसा.

१७११ त बार्तोलोमेओ क्रिस्ताफोरी ह्या इटालियन वाद्यकारान 'ग्राव्हिचेंबालो कोल पिआनो ए फोर्ते' ह्या नांवाचें आयच्या 'ग्रँड पियानो' भाशेन हातपट्ट्यांचें आनी आघात-तुतयांचें एक वाद्य तयार केलें आसलें तरीय पियानोचें मूळ रूप 'डलसिमर क्लॅव्हिकॉर्ड' आनी 'हार्पसिकॉर्ड' ह्या तंतूवाद्यांत मेळटा. ताचे उपरांत जर्मनींतूय सिल्बेरमान ह्या वाद्यकारान तातूंत सुदारणा केली. इंग्लडांत १७६० च्या सुमाराक त्झुम्पे आनी ब्रॉडवुड हाणें 'स्क्वेअर' हो ल्हान चवकोनी पियानो तयार केलो. तशेंच हॉकिन्झ आनी वॉरनम हाणीं 'अपरायट' वा 'कॉटेज' हो उबो आनी घरगुती पियानो उपेगांत हाडलो. पयलो अमेरिकन पियानो फिलाडेल्फियांत जे. बेहरनटन हाणें १७७५ त तयार केलो आनी रोखडेच सगळे तंत्रीक नदरेन आनी संगिताचे नदरेन उदरगतीक पाविल्ले देस वेपारीक नदरेन पियानो तयार करपाक लागले आनी हें वाद्य संवसारांतल्या फुडारिल्ल्या लोकांमदीं खूबूच नांवाजतें जालें.

ह्या वेळार भारत आनी गोंय ब्रिटीश आनी पुर्तुगेजाच्या सत्तेखाला

उरिल्ल्यान भारताच्या मुखेल शारांनी हें वाद्य पावलें.

प्रतिशठीत घराण्यांनी हें वाद्य आसप हें खानदानीचें प्रतीक समजप जालें आनी तें शिकप दर एका गिरेस्त घराण्यांतले चलयेची समाजीक नदरेंतल्यान पात्रताय समजप जालें. आयजूय गोयांत बऱ्याच खानदानी घराण्यांनी पियानो पळोवपाक मेळटा.



आयज सुमार दोन शेंकड्यां उपरांत पियानोक अस्तंती संगितांत मध्यवर्ती सुवात मेळ्ळ्या आनी सुर्वेक फकत साथी वाद्य म्हणून आशिल्लो पियानो आयज स्वतंत्र वाद्यप्रकार म्हणुनूय नामना जोडून आसा.

सगळ्यांत पयलीं ह्या वाद्याखातीर संगीत लुदोव्हीको जुस्तिनी दा पिस्तॉया हाणें बरयलें. नामनेच्या पियानोवादकांमदीं बाक जाणें सुर्वेक ह्या वाद्याची खूब टिका केली. पूण उपरांत मत परिवर्तन जातकच ताणें 'फ्रॅडरीक द ग्रेट' हाचेखातीर संगीत रचलें आनी बाकान बरयल्लें सगळें संगीत पियानोचेर येसश्वी रितीन चल्लें. बाकाचो एक शिश्य जोजेफ हायडन हो पियानो संगीत सादर करपाक बाकापरस एक पावल फुडें गेलो. मोझार्ट आनी बिथोवन पियानो संगितांत आनी सादर करपांत नवीन उंचायेर पावले. ताणीं ज्यो सुनीता बरयल्यात आनी जे जलशे (Concerts) केल्यात ते आयजपसून पियानो संगितांतल्यो बऱ्यांतल्यो बऱ्यो कलाकृती मानतात. तशेंच शोपां हाणें पियानो संगिताक वयल्या पांवड्यावयली नाजूकसाण, गोडसाण आनी सरूपाय हाडली.

आयज पियानो तयार करपी कांय लोक व्हड नामनेक पाविल्ले दिसतात, जशे स्टर्नव्हे अण्ड सन्स न्युयार्क, कोलारड एण्ड कोलारड लंडनाचे, बर्लीनचे बॅकस्टायन, जपानचे यामाहा हे मुखेल आसात.

यंत्रीक आनी विद्युत् पियानोंमदीं आपोआप परतपरत पूर्वनियोजीत संगीत वाजोवपाची तजवीज केल्ली आसा. पियानोच्या मेकळ्या आनी खंडीत स्वरांक लागून भारतीय शास्त्रीय संगितांत ताचो उपेग करप जायना.

- कों. वि. सं. मं.

**पियाव :** (पळेयात कांदो).

**पिरॅमिड :** संवसारीक नामनेची पुर्विल्ली वास्तुरचना. मेक्सिको, इटली, ग्रीस, थायलंड, इजिप्त आदी देशांनी विटो वा फातरी बांदावळीचे चौखण वा आयताकृती बुन्यादीचे आनी वयर अशीर जायत गेल्ले पिरॅमिड दिश्टी पडटात. पूण सगळ्यांत पोरणे आनी व्हड पिरॅमिड फकत इजिप्तांतूच आसून तातूंतले लेख आनी वेगवेगळ्यो वस्तू हांकां लागून तांकां पुर्विल्ल्या इतिहासांत, तशेंच वास्तुशास्त्रांत एक वेगळें म्हत्व प्राप्त जालां. इजिप्तांत पिरॅमिडाक 'मेर' म्हण्टात. पिरॅमिड हें इंग्लीश उतर 'पिरॅमिस' ह्या ग्रीसी उतरावयल्यान रूढ जालां. हाचो अर्थ गंवाची केक असो आसून पिरॅमिडाचो आकार केकीवरी आशिल्ल्यान हें उतर रूढ जालां आसूंये. राजाच्या (फाराओ) दफनाकडे संलग्न आशिल्ल्यान ह्या वास्तूचें पुर्विल्लेंपण, रचणूक, अचूक बांदावळ आनी तातूंत मेळपी इतिहासीक पुरावो हांकां लागून पिरॅमिड हें संवसारांतलें एक अजाप मानतात.

इजिप्तांत सुमार ८० पिरॅमिड आसून, तातूंतले कांय बरे स्थितींत आसात. जायते पिरॅमिड तुटिल्ले आसात. आत्मो हो शरीराबगर वेगळो रावंक शकना ह्या त्या काळांतल्या समजाक लागून पिरॅमिड बांदपाची कल्पना रूढ जाली. चडशा राजांनी (फाराओंनी) आपल्या मरणाउपरांत आपल्या मड्याची बेवस्था जावंची देखून पिरॅमिडां बांदलीं. साहजिकच राजा-राणयेचीं मडीं 'ममी' (mummy) च्या रुपांत पिरॅमिडांत जतनाय करून दवरूंक लागले.

पुर्विल्ल्या इजिप्ताच्या इतिहासांतल्या तिसऱ्या चवथ्या (इ.स. आदीं २७२० - २५६०), सव्या (इ.स. आदीं २४२०-२२९४) आनी बाराव्या (इ.स. आदीं २०००-१७७७) राजवंशांतल्या राजांनी पिरॅमिड बांदले. सगळ्यांत पोरणे पिरॅमिड कायरो लागसार सकार नगरांत आसून ते झोसर (इ.स. आदीं तिसरें सहस्त्रक) ह्या तिसऱ्या वंशांतल्या राजान इ.स. आदी २८०० च्या सुमाराक बांदलो. उपरांतचे पिरॅमिड सूदानांत मेरो नगरांत इथिओपियी राजान इ.स. ३०० त बांदले. इजिप्तांत सुरवातीक बांदिल्ल्या पिरॅमिडावरी वास्तूंक मस्ताबा म्हण्टाले. झोसरान बांदिल्ल्या पयल्या फातरी पिरॅमिडाची उंचाय सुरवातीक ८ मीटर आशिल्ली आनी आराखडो चवकोनी आशिल्लो. हाका स्टॅप पिरॅमिड अशेंय म्हण्टाले. चवथ्या राजवंशाच्या काळांत पिरॅमिड बांदावळींत बरीच उदरगत जाल्ली दिश्टी पडटा. त्या काळांतल्या कूफू, कॅफ्रे आनी मेंकूरे ह्या राजांनी गीझा नगरांत बांदिल्ल्या पिरॅमिडाचे रचणुकेक आनी बांदावळीक लागून नामना आसा. तिनूय पिरॅमिडांनी अश्मपेटिका मेळ्ळ्यात आनी त्यो ग्रॅनायट फातराच्यो केल्यात. कूफूचे पिरॅमिडाची संवसारांतल्या सात अजापांतलें एक अजाप म्हणून ताची नामना आसा.

पिरॅमिडाची भितल्ली रचणूक जायत्या तरांची आसता. चवथ्या वंशांतल्या राजांनी आकारांत बदल करून तशेंच विटांजाग्यार फातर वापरून ल्हान आकारांत जायते पिरॅमिड बांदले. सर फ्लिंडर्स पेट्री हाणें पिरॅमिडांचें उत्खनन आनी अभ्यास करून ताचे काटकोन आदी तपशिलांतले भूमितीक नेमकेपण सिध्द केलां. गीझाचो कूफू राजाचो पिरॅमिड १२६ मी. उंच आसून ताणें पांच हॅक्टर क्षेत्र व्यापलां.

पांचव्या वंशांतल्या राजांनी अबू सीर नगरांत पिरॅमिड बांदल्यात, जाल्यार सव्या वंशांतल्या राजांनी सकाराक पिरॅमिड बांदले. हे पिरॅमिड

ल्हान आनी कांय प्रमाणांत ओबड धोबड आसले. तांच्या भितल्ल्या दालनांत हायरोग्लिफिक लिपींत मजकूर बरोवन दवरला. ताचे वयल्यान त्या काळांतल्या धर्मीक कल्पनांची तशेंच वट्ट समाजीक स्थितीची कल्पना येता. इ.स. आदीं १७०० च्या सुमाराक इजिप्तांतल्या पिरॅमिडाची बांदावळ चडशी बंद जाल्ली दिसता. उपरांतच्या राजांनी आपल्या मड्यांखातीर शैलोत्कीर्ण घरां बांदपाची पद्दत सुरू केली.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : ममी.

**पिशाच्च :** (पळेयात भूत).

**पिसुर्लेकार, डॉ. पांडुरंग सखाराम :** (जल्म : ३० मे १८९४, पिसुर्लें - सत्तरी गोंय; मरण : १० जुलय १९६९, पणजी-गोंय).

गोंयचो नामनेचो इतिहासकार आनी आर्किविश्त. ताचे आवयचें नांव कृष्णाबाय. १९१३ त ताणें पणजे लिसेंवाची सातव्या वर्साची परीक्षा दिली. उपरांत १९१३ त तीन वर्सांची शिक्षक सनद मेळटकच तो दिवचले एका स्कुलांत शिकोवंक लागलो. १९२० त ताणें कायद्याचें शिक्षण घेतलें. फुडें १९३१ मेरेन ताणें दिवचल, सांखळी, वाळपय, पोरणें गोंय आनी निल्लाच्या शाळांनी पुर्तुगेज आनी गणित शिकयलें. पिरायेच्या १९ वर्सांचेर बोरकार घराण्यांतली रमाबाय हिचेकडेन ताचें लग्न जालें (१९१३).



ताणें वट्ट चवदा वर्सां शिक्षकी पेशांत घालयली. ताका पुर्तुगेज, इंग्लीश, फ्रेंच, कोंकणी, संस्कृत आनी मराठी भाशांचें बेस बरें गिन्यान आशिल्लें. मोडी भासूय ताका कळटाली. १९१८ त ताचो पयलो लेख विविधज्ञान विस्तारांत उजवाडाक आयलो. १८१९ सावन ताका पणजे सरकारी दुकुमेंत पळोवपाचें काम मेळ्ळें. जाच्या आदारान ताणें खुबशीं पुस्तकां तयार केलीं. १९३० त गोंय पुर्तुगेज सरकारान ताका General and Historical Archives of Portuguese India हो सरकारी दत्परखानो निर्माण करून थंय मुखेली म्हणून ताची नेमणूक केली. दप्तरखान्यांतले चडशे सरकारी दस्तऐवज राशींनी पडिल्ले, कांय वाळंटींनी खाल्ले, अक्षरां गेल्ले आनी कांय इबाडपाक लागिल्ले. हे सगळे दस्तऐवज पिसुर्लेकारान बरे तरेन हाताळ्ळे. तातूंतलीं कागदपत्रां वर्गवार लायलीं, तेविशीं सुची आनी मार्गदर्शिका तयार केल्यो.

गोंयांत पुर्तूगेजांनी प्रवेश केल्ल्याकाळार सावन सगले इतिहासीक दस्तऐवज वेगवेगळे कार्यालयांनी शिंपडिल्ले. पुर्तूगेज भास जाणा जावपी पिसुर्लेकार पयलो इतिहास संशोधक आशिल्लो. सरकारी दप्तरखान्यांत जसजशीं ताका कागदपत्रां मेळत गेलीं तसतशे ताणें त्या कागदपत्रांच्यो नकलो तयार केल्यो. पुर्तूगेज काळांतल्या इतिहासाचें हें संपादन, संकलन आनी संशोधन करता आसतना पुर्तूगेजा आदल्या काळांतल्या गोंयच्या इतिहासाची म्हायतीय ताका मेळ्ळी. तेन्ना ताणें ह्या विशयाचेर बरोवपाक सुरवात केली. 'O Oriente Portuguese' ह्या नामनेच्या अंकांत ताचे इतिहासाविशींचे लेख उजवाडाक येवंक लागले. हाचेभायर Heraldo, A provincia आदी अंकांतल्यान आनी स्वतंत्र पुस्तिकांच्या स्वरुपांत ताणें इतिहासाविशींचें म्हत्वाचें बरप केलें. ताचें चडशें बरप पुर्तूगेज भाशेंत आसून ताचे मराठी आनी इंग्लीश भासांनी अणकार जाल्यात. ताचे म्हत्वाचे ग्रंथ अशे - आजेन्तिश दा दिप्लोमासीय पुर्तूगेज ना ईन्दिय (१९५२), आश्पेक्तुश दा सिव्हिलिझासांव दा ईन्दिय आन्तीग (१९२५), आस्सेन्तुश दु कोंसेल्यु दु इश्तादु दा ईन्दिय (१९५३-५७), रेजिमॅन्तुश दश फोतीलेझस दा ईन्दिय (१९५१), पुर्तूगेझिश ई मारातश (१९२६-३९), रोतैरू दुश आर्कीवश दा ईन्दिय पुर्तूगेझिस (१९५५), पॉर्च्युगीझ रिकॉर्डस ऑन रूस्तमजी माणेकजी (१९३३), पुर्तूगीज - मराठा संबंद (१९६७).

ताणें आपलो सुमार चार हजारांचो संग्रह मुंबय विद्यापिठाक दान केल्लो. जातूंत पुस्तकां, हातबरपां, मायक्रोफिल्मां आनी फोटोस्टॅट कॉपी आसल्यो. विद्यापिठान तो संग्रह वेगवेगळ्या विद्यापिठाच्या पणजेच्या पोस्ट ग्रॅज्युएट सँटराक जोडून ताचो एक इतिहास विभाग स्थापन केलो आनी पिसुर्लेकाराक तांचो डायरेक्टर, इतिहासाचो प्रोफेसर आनी पी.एच.डी. करतल्या भुरग्यांचो गायड म्हणून नेमलो. सद्या हो पुस्तक संग्रह गोंय विद्यापिठाच्या वाचपघरांत संशोधकांखातीर आनी अभ्यासकांखातीर उपलब्ध आसा.

पिसुर्लेकाराक ताच्या लेखन संशोधना खातीर जायते भोवमान मेळ्ळे. पुर्तूगेज सरकारान ताका १९३५ त 'नायट ऑफ द मिलीटरी ऑर्डर ऑफ सॉंतियागो' हो किताब दिलो. १९४८ त रॉयल एशियाटिक सोसायटी ऑफ बंगाल हाणीं ताका सर जुदानाथ सरकार गोल्ड मॅडल आनी १९५३ वर्सा एशियाटिक सोसायटीन भांगरा पदक दिलें. १९५२ त ताका पुर्तूगेज सरकारान Conservador do Arquivo हो हुद्दो दिलो. १९६१ त तो ह्याच हुद्द्यावयल्यान निवृत्त जालो. लिस्बन विद्यापिठान ताका डी. लिट. ही पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो. १९७९ त ताका बृहन महाराष्ट्र मंडळाकडल्यान इतिहास संशोधन वावराखातीर भांगरा पदक मेळ्ळें. गोंय स्वतंत्र जाले उपरांत लोकांक उंचेल्या पावंड्याचें शिक्षण मेळचें म्हणून ताणें जायते यत्न केले.

– व्ही. आर. नावेलकार

**पिस्ता :** (मराठी : पिस्ता; कन्नड : गोनु हण्णु; संस्कृत : मकलक, निकोचक; इंग्लीश : पिस्टाशिओ; लॅटिन : पिस्टाशिया वेरा; कूळ : ॲनाकार्डिएसी).

सुमार १० मी. उंच वाडपी पानझडी आनी पसरट खांद्याचें झाड. ह्या झाडाक संयुक्त, विषमदली पिसावरी एकाआड एक सुर्वेक ल्हवाळ

आनी उपरांत गुळगुळीत पानां येतात. फुलां ल्हान, एकलिंगी आसून तीं स्वतंत्र ताळयेर येतात. ताका दाट कवच आशिल्लें (आठळी), लाबशें, वांटकुळें, कांय प्रमाणांत चेपटें, तांबशें वा हेर रंगाचें फळ येता. हें कवच लेव हळदुव्या रंगाचें आनी घट्ट आसता. तें पिकतकच फुट्टा आनी भितल्ली तांबशी बी दिसता. बाजारांत हाकाच पिस्ता अशें म्हण्टात.

हें झाड मूळचें मध्य आशियांतल्या सुक्या वाठारांतलें मानतात. अफघाणिस्तान, इराण, सिरिया, दामास्कस, मेसोपोटेमिया, खोरासान आदी वाठारांनी तें मेळटा. लेबनॉन, सिरीया, तुर्कस्तान, पाकिस्तान, इटली, कॅलिफोर्नीया ह्या सुवातींचेर उण्या अदीक प्रमाणांत तें लागवडी खाला आसा. भारतांत काश्मीर, श्रीनगरांत पिस्ता फळबागेंत लायतात. अफघाणिस्तान आनी इराणच्यान भारतांत ह्या फळांची आयात जाता. वेगवेगळ्या देशांतल्या वेगवेगळ्या प्रकारांवयल्यान तांकां वेगवेगळीं नांवां आसात. अलेप, ट्यूनिस, सिसिली आदी नांवां प्रचारांत आसात. ताका पिस्ता ह्या इराणी नांवावयल्यान पिस्टाशिया हें वंशनांव दिलां. पिस्त्याच्या वंशांत वट्ट धा जाती आसून भारतांत फकत दोनूच जाती मेळटात. कक्कटशिंगी (पि. इंटेजेरिमा) हिमालयी वाठारांत मेळटा.

चरकसंहितेंत निकोचक ह्या नांवान पिस्ताचो आस्पाव फळवर्गांत आनी सुश्रुतसंहितेंत ताल वर्गांत केल्लो आसा. तेचपरी मदनपाल निघंटु ह्या वैजकी ग्रंथांत आनी आईन-इ-अकबरींत पिस्ताचो उल्लेख आयला. पिस्ता हो पर्शियांतल्यान भारतांत हाडून ताची लागवड केल्या असो उल्लेख आयला.

पिस्ताचें झाड हें विभक्तलिंगी आशिल्ल्यान नर आनी स्त्री झाड सादारण १:६ ह्या प्रमाणांत गटांत लायतात. ताचें परागीकरण वाऱ्यान जाता वा हातानूय करतात. सैमीक तरेन बियो पडून जाल्ली पिस्ताची वा ताच्या हेर वंशांची झाडां खुंटावरी उपेगांत हाडून ताचेर जायत्या प्रकारच्या पिस्त्याच्या झाडाचे दोळे वा कुडके बसोवन कलम करतात. ह्या झाडाक लागवडी उपरांत सात-आठ वर्सांनी चंवर येता.

फळां जून जातकच ताचे घोंस बडोवन सकयल हांतरिल्ल्या कपड्याचेर झडयतात आनी रोखडींच तीं फळां सोलून सुकयतात आनी फुडें योग्य वेळार उदकांत मुरोवन कवच वेगळें करतात आनी उपरांत तांचेर तांबडो रंग घालतात आनी पुडे बांदतात. केन्नाकेन्नाय तीं भाजून खारयतात. केन्नाय कवच फोडून बियो गोडशें, बेकरी पदार्थ, आयस्क्रिम तयार करपी वेपाऱ्यांक विकतात.

पिस्ताची बी एक बरें खाद्य आसून ताचो गर पाचवो वा हळदुवसो आसता. गोडशें, आयस्क्रिम, गोड पदार्थ हातूंत पिस्ते घालतात. ह्यो बियो खारोवन आनी भाजून मुखशुद्धीखातीर खातात. बियांत ५०% स्निग्ध, वासाळ आनी सुकनाशिल्लें तैल आसता. तें स्तंभक, पाचक, शामक आसून पोटांतल्या विकाराचेर बरें पडटा. पिस्ते हे पुश्टीक, रुचीक आसतात.

इराणांत जून फळांच्या सालींचो मुरांबो करतात. सालीपसून सारेंय करतात. पिस्ताच्या पानांचेर येवपी गांठी (बोखारा गोल्स) रंगोवपाखातीर आनी कातडी कमोवपाखातीर वापरतात. तातूंत रेझीन, ५०% टॅनीन आनी गॅलिक आम्ल आसता. बियांत ५.६% उदक, १९.८% प्रथिनां, ५३.५% चरबी, १६.२% कार्बोहायड्रेट, २.१% धागे, २.८% खनिजां, ०.१४% कॅल्शियम, ०.४३% फॉस्फरस, १३.७% मिग्रॅ लोखण, कॅरोटीन (अ जीवनसत्व), ०.३७% थायामीन, ०.०३% रिबोफ्लाविन, १.४% निकोटिनिक आम्ल आसता. कवच आनी बी हातूंत ३.५३% पॅप्टीन आसता.

– कों. वि. सं. मं.

**पिस्तूल :** (पळेयात तुबक).

**पिळर्णकार, दत्ताराम रवळू :** ( जल्म : जानेवारी १९१९, मेर्शी - तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. १९५५ ते १९६० ह्या काळांत तो आझाद गोमंतक दलाचो वांगडी आशिल्लो. बातम्यो पावोवप, दिवचल, बारदेस, तिसवाडी, फोंडें, साश्ट ह्या वाठारांनी दल संघटनेच्या वावराक हत्यारां पावोवप, दल संघटनेच्या वावुरप्यांक रावपाक आदार दिवप, तांकां लिपचोरयां थरयल्ल्या जाग्यार पावपाक पालव दिवप असलीं कामां तो करतालो. फेब्रुवारी १९६० त ताका पोलिसांनी धरलो, खूब मार दिलो आनी प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून स म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १९७४ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**पीअर्सन, लॅस्टर बोल्झ :** (जल्म : २३ एप्रिल १८९७, टॉरोंटो, ऑंटोरिओ; मरण : २७ डिसेंबर १९७२).

नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो कॅनडाचो एक राजकीय मुत्सदी आनी प्रधानमंत्री. ताणें मुळावें शिक्षण घेतलें, पूण फुडलें शिक्षण घेवपा वेळार पयल्या म्हाझुजाक लागून आणिबाणी आयिल्ल्यान ताका शस्त्रास्त्रांचे कंपनींत नोकरी करची पडली. तरीय पूण फुडें १९१९ त तो टॉरोंटो विद्यापिठांतल्यान पदवीधर जालो. तशेंच ऑक्सफर्ड विद्यापिठांतल्यान ताणें बी.ए. आनी एम. ए. ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. १९२४-२८ ह्या काळांत तो टॉरोंटो विद्यापिठांत इतिहासाचो अधिव्याख्यातो आशिल्लो. उपरांत तो १९२९ त ओटावाक परराश्ट्रीय कचेरेंत नोकरेक लागलो. थंय स वर्सां काम करतकच १९३५ त कॅनडियन उच्च आयोगाच्या कार्यालयांत लंडनचो पयलो सचीव म्हणून ताची नेमणूक जाली. उपरांत तो १९४१ त परराश्ट्र मंत्रालयांत अवर सचीव म्हणून आयलो आनी फुडें वॉशिंग्टनाक कॅनडाचो राजकीय प्रतिनिधी म्हणून गेलो. १९४५च्या सान फ्रांसिस्को परिशदेंत ताणें सल्लागाराचें काम केलें. उपरांत तो परराश्ट्र वकिलातींत एक जेश्ठ अधिकारी जालो. आनी १९४५-४६ ह्या काळांत ताणें अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत राजदूत म्हणून काम केलें. १९४८ त ताणें राजकारणांत वांटो घेतलो आनी लिबरल पक्षाचो वांगडी जालो. फुडें तो संसदेचेर वेंचून आयलो आनी कॅनडाचो परराश्ट्रमंत्री म्हणून ताका नामना मेळ्ळी. नाटो हे संघटनेचे स्थापनेंत ताचो वांटो आशिल्लो. १९५१-५२ ह्या काळांत तो नॉर्थ ॲटलांटिक काउन्सिलाचो अध्यक्ष आशिल्लो. १९५२ त संयुक्त राश्ट्रांचे आमसभेचो अध्यक्ष म्हणून एका वर्साखातीर ताची नेमणूक जाली. सुएझ कानाल प्रस्ना वेळार ताणें घेतिल्लो निर्णय म्हत्वाचो थरलो. ताणें अमेरिकेंत वचून संयुक्त राश्ट्रां हे संघटनेचें एक आणिबाणी संरक्षण पथक तयार केलें. ताचे मध्यस्तीन इंग्लंड, फ्रांस ह्या देशांमदलें झूज बंद जालें आनी थंय शांतताय प्रस्थापीत

ज़ाली. ह्या ताच्या वावराक लागून ताका १९५७ वर्साचो संवसारीक शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो.

१९५८ त तो लिबरल पक्षाचो फुडारी जालो. पीअर्सनान ह्या पक्षाची विस्कटिल्ली घडी परत बसयली आनी १९६२ च्या सार्वत्रीक वेचणुकेंत ह्या पक्षाक २६५ तले ९८ जागे मेळ्ळे. पूण ह्या वेळार ताका शासन घडोवपाची संद मेळ्ळी ना. पूण १९६३ त जॉन डीफिन बेकराचें सरकार बरखास्त जावन परत वेंचणुको जाल्यो आनी पीअर्सनाक चड जागे मेळून तो प्रधानमंत्री जालो. ताचे हे कारकिर्दींत ताका सुमार पांच वर्सां जायत्या अडचणींक तोंड दिवंचें पडलें. तरी सगळे प्रस्न ताणें शांततायेन आनी विचारपुर्वक हाताळ्ळे. क्यीबॅकची भूमिका ताणें आयकली आनी सत्तावादाच्या संघीय सहकार्याचें सूत्र थारायलें. द्विभाशीक आनी द्विसंस्कृती हांचो अभ्यास करपाखातीर एक रॉयल आयोग नेमलो. ताणें समाजकल्याण येवजण्यो आंखल्यो. ह्याच काळांत खास अशा राश्ट्रीय बावट्याक मान्यताय दिली. तशेंच अमेरिके वांगडाचे परराश्ट्रीय संबंद घट केले.

१९६५त ताणें सार्वत्रीक वेंचणुको जाहीर केल्यो. पूण हे खेपे ताका फावो तें येस मेळ्ळेंना. निमाणें १९६८ त ताणें आपूण जावन राजकारणांतल्यान निवृत्ती घेतली. कांय काळान ताची संवसारीक बँकेच्या परकीय आदाराचो अभ्यास करपी समीतीचेर नेमणूक जाली. १९६३-६८ ह्या काळांत प्रधानमंत्री आसतना ताणें संवसारीक शांततायेचो मध्यस्त म्हणून म्हत्वाचें काम केलें. १९६९ त कार्लटन विद्यापिठाचो तो कुलपती आशिल्लो. ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत सन्माननीय अधिकारी जावपाचो मान ताका मेळिल्लो. जायत्या विद्यापिठांनी ताका सन्माननीय पदव्यो दिल्ल्यो. तशेंच १९६५त ताका फॅमिली ऑफ मॅन अवॉर्ड मेळिल्लो.

ताका लेखनाची तेचपरी वाचनाची आवड आशिल्ली. ताणें स्फूट आनी ग्रंथांवरवीं भरपूर प्रमाणांत लिखाण केलां. ताचीं डॅमॉक्रसी इन द वर्ल्ड, पॉलिटिक्स (१९५५), द फोर फेसिस ऑफ पीस (१९६४) हीं कांय नामनेचीं पुस्तकां. तेभायर ताची डिप्लोमसी इन द न्युक्लीअर एज (१९५९), पीस इन द फॅमिली ऑफ मॅन (१९६८), द क्रायसिस ऑफ डॅवलपमॅण्ट (१९७०) हीं कांय उल्लेख करपासारकीं पुस्तकां.

– कों. वि. सं. मं.

**पींडदान :** मड्याक वा पितरांक उद्देशून सवादांच्या पिठाचो वा शिताचो गुळो करून दितात, ताका पींड म्हण्टात. निरूक्त (३.४) आनी लाट्यायन श्रौतसूत्र (२.१०.४) हातूंत पींड शब्दाची व्याख्या केल्या ती अशी –

'परस्परसंश्लेषाद्विभागं परित्यज्यासङ्घाततां प्राप्तमन्नं पिण्डः'

**अर्थ –** विभक्तपण सोडून एकमेकांत एकजीव जाल्ले अन्नाचे कण म्हळ्यार पींड.

श्राध्दाच्या वेळार पितरांच्या नांवाचो आनी गांवाचो उच्चार करून जें पींड दितात ताका पींडदान म्हण्टात.

मनीस मेले उपरांत मेल्लो जीव वर्सभर मड्याचे अवस्थेंतूच रावता. हे अवस्थेंत ताका खूब त्रास जातात. तातूंतल्यान ताची सुटका जावंची म्हणून संपिंडी श्राध्दां सांगल्यांत.

मेल्ल्या मनशाचें शरीर लासले उपरांत मेल्लो जीव अतिवाहिक नांवाचें एक सुक्ष्म शरीर धारण करता. ह्या अतिवाहिक शरिराक शीं, वोत, पावस, तान, भूक हांचो खूब त्रास जाता. हे अवस्थेंतल्यान ताका मेकळो करपाखातीर पुराणांनी पींडदानाची वेवस्था केल्ली आसा.

मेल्ल्या पितरांची पुजा, श्राध्द करप हो धर्माचोच एक वांटो. सगळ्या धर्मांनी ही चाल आसा.

मेल्ल्या पितरांक सद्‌गती मेळची, ताका लागून वंशाची कीर्त वाडची, जे कोण पितर पितृलोकांत पावनासतना भूतयोनींत वचून वंशाक बाधा करता आसत जाल्यार ते भूतयोनींतल्यान तांकां मुक्त करपाखातीर पितृपुजा पींडदान सांगलां. पुजेंत श्राध्दपाकाचो निवेद्य दाखोवन नमस्कार करचो. उपरांत पिंडांचें उद्‌वासन करून विर्सजन करचें. पींडविसर्जनाविशीं कांय मतां आसात तीं अशीं –

पींड उदकांत वा उज्यांत सोडचे वा ब्राम्हणाक, गायेक ना जाल्यार बोकडाक दिवचे वा रोयणी म्हऱ्यांत उडोवचे. कांय जाणांच्या मतान पयलो पींड कर्त्यान आनी दुसरो पींड ताचे बायलेन खावंचो आनी तिसरो पींड उदकांत उडोवंचो. तीर्थश्राध्दांतलो पींड तिर्थांत सोडचो.

औरस पूत हो पींडदानाचो अधिकारी. तो ना जाल्यार नातू वा पण्टू हांकां पींडदान करपाचो अधिकार आसा अशें हेमाद्रीचें मत आसा.

आपल्या पुर्वजांचें स्मरण करप, तांच्या बऱ्या गुणांची तुस्त करप आनी ते गूण आपणावपाचो यत्न करपाखातीर पितृपुजा श्राध्दां सांगल्यांत. पूरक नोंद : पितर, श्राध्द.

– वासुदेव वझे

**पीकदाणी :** तोंडांतलो खावंच्या पानांचो रोस (तांबूल) उडोवपाखातीर वापरांत आशिल्लें आयदन. हाका पिकदाणी, पिकदानी, पिकदान, पिकधरी, पिकपात्र अशींय नांवां आसात. हें आयदन धातूपसून करतात. ताचें तोंड रूंद आनी पसरट आसून सकयलो भाग वाटकुळो आनी बसको आसता. तांबुलावरीच घोंट उडोवपाक ह्या आयदनाचो उपेग करतात. वात्स्यायनान आपल्या कामसुत्रांत नागरिकांचे न्हिदपाकुडींत खंयच्यो वस्तू आसच्यो हें सांगतना पीकदाणयेचो उल्लेख केला. तशेंच पीकदाणी वयर दवरप ना अशेंय सांगलां. नलाक भीमराजान दिल्ली पीकदाणी माणकांची आशिल्ली आनी ती विश्वकर्म्याकडल्यान भीमराजाक मेळिल्ली अशें नैषधीय चरितांत म्हळां.

आदल्या तेंपार जांवयाक भेट म्हणून ज्यो जायत्यो वस्तू दिताले तातूंत पीकदाणी आसताली. पान खावपाची पद्दत पातळ जाल्ल्यान वा पद्दतींत बदल जाल्ल्यान पिकदाणीचो वापर सामको उणो जाला.

– कों. वि. सं. मं.

**पीतांबरदास :** (अठरावें शतमान). नामनेचो ओडियी कवी. ताचो जल्म ओरिसांत एका ब्राम्हण कुटुंबांत जालो. ताच्या जिविताविशींची निश्चीत म्हायती खंयच मेळना. ओरिसांतलें पुराणीक साहित्य निमार्ण करपी कवीं मदलो पीतांबरदास हो एक नामनेचो कवी. ताका संस्कृताची खोलायेन जाण आशिल्ली. 'नृसिंहपुराण' हो एकूच ग्रंथ ताणें बरयल्लो आसलो, तरी ताका लागुनूच तो अज्रंवर जालो. १७६१ त ताणें हो ग्रंथ बरोवपाक सुरवात केल्ली, अशें ह्या ग्रंथांतल्या भितरल्या पुराव्यांवयल्यान दिसता. नृसिंहपुराण ही ताची स्वतंत्र रचना. तो संस्कृत भाशेंतलो एक

बऱ्यांतलो ग्रंथ जावन आसा. हो ग्रंथ बरोवपाची प्रेरणा ताका जगन्नाथपुरी हांगाचे लक्ष्मीचें देवूळ पळोवन मेळ्ळी अशें म्हण्टात.

नृसिंहपुराण सात भागांनी विभागलां. तातूंत नरसिंह आनी शेष ह्या अनुक्रमान विष्णु आनी अनंत हांच्या अवतारांची कथा आसा. धर्तरी आनी सर्ग हांकां भेश्टावन सोडपी मुरा आनी दारूण ह्या दोन राकेसांक नरसिंह आनी शेष हाणीं जिवे मारिल्लयाची कथा तातूंत वर्णिल्या. भास, व्यक्तीचित्रण, शैली ह्या सगळ्याच आंगांनी 'नृसिंहपुराण' रसाळ आसून ओरिसांतल्या घराघरांत तें आवडीन वाचतात आनी ताची पुजाय करतात.

– कों. वि. सं. मं.

**पीर :** सुफी पंथाप्रमाण पीर हो 'मुर्शिद' म्हळ्यार अध्यात्मीक गुरू. ह्या फार्सी उतराचो अर्थ 'गुरू' वा 'व्हड वा जाण्टो मनीस'.

इस्लामांतले गूढ परंपरेंत 'पीर' ह्या अर्थाचो शेख, मुर्शिद, उस्ताद ह्यो संज्ञा वापरतात. भारतांत मात 'पीर' अशीच संज्ञा वापरतात. प्रेषिताच्या अध्यात्मीक उपदेशाचें स्पश्टीकरण करपी प्रत्यक्ष वंशांतल्यो व्यक्तीच पीर आसतात अशें मानतात. मुरीदाक म्हळ्यार मुमुक्षूक योग्य मार्गदर्शन करपी पीर तेखातीर अनुसरणपात्र आसपाक जाय. ताका अध्यात्माच्या तिनूय अवस्थांचें सिध्दांतीक आनी अणभवांचें ज्ञान आसपाक जाय.

पीर हो मुमुक्षूक अध्यात्मीक शक्त वा प्रत्यक्ष अणभव मेळोवन दिता आनी उपरांत ताका हेर सुफींवांगडा रावपाची अनुज्ञा दिता. ही अनुज्ञा दितना तो मुमुक्षूचे तकलेर हात दवरून ताका 'खिर्का' म्हळ्यार फकिराचीं वस्त्रां दिता. दरवेशी पंथाच्या संस्थापकाकूय 'पीर' ही संज्ञा लायतात.

सुफी पंथांतल्या सगळ्या पंथ-उपपंथांची सुरवात चार पिरांनीं केल्या अशें मानतात. भारतांतल्या चार मुखेल सुफी परंपरांनी चिश्तिया, कादिरीया आनी सुऱ्हावर्दीया ह्यो तीन परंपरा ख्वाजा हसन अल् बसरी ह्या पिराकडेन संबध्द आसात. चवथी नक्शबंदिया परंपरा अबू बकर ह्या पिराकडेन संबध्द आसा.

चिश्तिया परंपरेक भारतांत चड म्हत्व आसा. ख्वाजा मुईनुद्दीन चिश्ती हाचे पसून ह्या पंथाक भारतांत सुरवात जाली. कादिरी परंपरा अब्दुल कादिर जीलानी हाणें प्रवर्तीत केली. हाच्या मरणा उपरांत तीस वर्सांनी सुमार ही परंपरा भारतांत मुहंमद गौस हाणें सुरू केली.

राजस्थानांत पंचपीर ह्या नांवान इतिहासीक विरांची पुजा जाता. पाबू, हरभू, रामदेव, मांगलिया मेहा आनी गोंगा अशीं ह्या पंचपिरांचीं नांवां आसात.

भारतांत पंचपिरांच्यो आनी पिरांच्यो खूब सुवाती आसात. तांचे उरुस वा यात्रा भरतात. भाविक लोक तांकां आंगवण करतात आनी कोंब्याचे वा बोकड्याचे बळी दितात. सामान्यपणान चुरमा हो पंचपिरांचो निवेद्य आसता. मुसलमानांत लेगीत पंचपिरांची उपासना आसा.

शिया पंथांत मुहंमद, अली, फातिमा, हसन आनी हुसैन हे पंचपीर मानतात. सुन्नी मुसलमान बहाउद्दीन झिकारिया, शाह सकी आलम, शाह शम्स तब्रीझ, शेख जलाल मकदूम आनी शेर फरिद्दीन हे पंचपीर मानतात.

– कों. वि. सं. मं.

**पीरजादापंथ :** एक धर्मपंथ. इ.स.च्या १७व्या शतमानाच्या मदीं महंमद सादुल्ला नांवाच्या मनशान ह्या पंथाची स्थापना केली. ताणें हिंदू आनी इस्लाम ह्या धर्मग्रंथांतल्या तत्त्वांचेर आदारून एक समन्वयात्मक धर्मपंथ निर्माण केलो. तो निकलंक (कल्की) अवतार मानतालो आनी ताका भजूंक सांगतालो. ह्या पंथाचे अनुयायी मध्य प्रदेश, गुजरात आदीकडेन मेळटात.

– कों. वि. सं. मं.

**पीरांदेल्लो, लुईजी :** (जल्म : २८ जून १८६७, गिरगेंती, सिसिली; मरण : १० डिसेंबर १९३६, रोम).

नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो संवसारीक नामनेचो इटालियन नाटककार आनी कथा कादंबरीकार. ताच्या बापायचो गंधकाचो धंदो आशिल्लो आनी आपल्या पुतांन आपल्या धंद्यांत येवंचें अशें ताच्या बापायक दिसतालें. पूण ताका शिक्षणाची चड आवड आशिल्ली. १८९१ त ताणें जर्मनींतल्या बॉन विद्यापिठांतल्यान भाशाशास्त्राची डॉक्टरेट मेळयली. त्याच काळांत ताचो Mal giocondo (१८८९) हो काव्यांझेलो उजवाडा आयलो. नामनेचो इटालियी कवी जोझे कार्दुत्ची हाचो ताचेर प्रभाव पडिल्लो. उपरांत तो कथा कादंबऱ्यो आनी नाटक ह्या मळार साहित्यीक वावर करूंक लागलो. १८९४ त तो बापायच्या एका वेपारी इश्टाचे चलयेकडेन लग्न जालो. मदीं कांय घरगुती आनी अर्थीक अडचणींक लागून ताका रोमांत इटालियी भाशेच्या शिक्षकाची नोकरी धरची पडली. तातूंत ताचे बायलेक अर्थीक संकटाच्या धक्क्यान पिशें लागलें. ह्या घडणुकांक लागून ताका बरोच काळ ताण सोंसचो पडलो. ह्या सगळ्या घडणुकांचो परिणाम ताच्या साहित्याचेर जाल्लो दिश्टी पडटा. मानवी व्यक्तिमत्वाची संकुलताय आनी परिवर्तनियताय हांचो वेध घेवप हें ताच्या कथा कादंबऱ्यांचें खाशेलपण. १९०४ वर्सा उजवाडा आयिल्ली Il fu Mattia Pascal (द लॅट मात्तीआ पास्कल) ही कादंबरी आनी La trappola (११५) सारके कथांझेले ते नदरेन उल्लेख करपासारके आसात. कलाविशींची तत्त्वीक भुमिका स्पश्ट करपाचे नदरेन ताणें बरयल्लो L' umorismo (१९०८) हो ग्रंथ उल्लेख करपासारको आसून ताच्या ह्या ग्रंथाचेर आल्फ्रेड बीने ह्या फ्रँच मानसशास्त्रज्ञाचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. ताची Uno, nessuno e centomila (१९२५-२६) हीय कादंबरी उल्लेख करपासारकी. ताच्या sei personaggi in ceread' autore (१९२१) इंग्लीश अणकार; सिक्स कॅरॅक्टर्स ईन सर्च ऑफ ॲन ऑथर (१९५४); Enrico IV (१९२२) इंग्लीश अणकार हॅन्री फोर्थ (१९६०) हे नाटच्य कृतींतल्यान ताचे खाशेले प्रतिभेचो आनी कलानदरेचो साक्षात्कार घडला. ताच्या पयल्या नाटकांत ताचो मानवी जिणेविशींचो खोल आनी तत्त्वीक गाभो वेगवेगळ्या व्यक्तिरेखांवरवीं लोकांमुखार दवरला. ह्या नाटकांतले एके व्यक्तिरेखेवरवीं ताणें मनशाचे जिणेचीं खोल तासां उक्तायल्यांत. एका नाटकाची येसाय मारपाक जमिल्ल्या नटांमुखार दिग्दर्शक उलयता आसतना स जाणांचें एक कुटुंब थंय येता आनी आमचे जिणेचेर नाटक बरोवपी लेखकाच्या सोदांत आमी आसात अशें दिग्दर्शकाक सांगतात. उपरांत आपले जिणेचें शोकात्म नाट्य त्या नटांमुखार आनी दिग्दर्शकांमुखार उबें करतात. नाटकांतल्या नाटकाचो हो नवो प्रकार पीरांदेल्लो हाणेंच पयले खेपे रंगमाचयेर हाडलो. ताचे हे नाट्यकृतीक सगळ्यांत चड नामना मेळ्ळ्या. ह्या नाटकाचो मराठी अणकार 'नाटककाराच्या शोधांत सहा पात्रं' ह्या नांवान माधव

वाटवे हाणें केला.

आपल्या नाट्यलेखनान आर्विल्ले संवसारीक रंगमाचयेर जाणीं जाणीं आकार दिलो अशा नाटककारांमदीं पीरांदेल्लोचो आस्पाव जाता. ताणें चाळिसांपरसय चड नाटकां बरयलीं. वेगवेगळ्या भाशांतल्यान ताच्या नाट्यकृतींचे अणकार जाल्ले आसात. १९३४ वर्साचो साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार दिवन साहित्य मळावयल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**पुंगी :** एक वाद्य. गारूडी वा जादुगार नागांक – सोरपांक भुलोवपाखातीर हें वादय वाजयतात. हें वाद्य तयार करपाक देंठाकडेन अशीर जायत गेल्लो एक कडू दूदी घेतात. तो भितल्ले वटेन पोखरून ताच्या रूंद तोंकाक एक बुराक घालतात. तातूंत वेंत-देड वेंत लांबायेच्यो दोन नळयो



बसयतात. हातूंतले एके नळयेक स्वराचे बुराक घाल्ले आसतात. दुसरे नळयेचो उपेग सुरांखातीर करतात. पुंगेच्यो नळयो जोडपाखातीर तशेंच स्वर उणे चड करपाखातीर मेणाचो उपेग करतात. ह्या वाद्यांतल्यान भैरवीचे स्वर येवंचे अशी रचणूक आसता. पुंगेंतल्यान नागवराळी नांवाचो राग वाजयतात. हो राग सोरपांक खूब आवडटा असो समज आसा. पुंगीवरीच एक वाद्य आसामांतले दोंगरी लोक वाजयतात. हातूंत वेगवेगळ्या लांबायेच्यो ५ ते ९ वेतांच्यो नळयो दुदयाच्या तोंडार बसयतात. ह्या वाद्याची रचना ऑर्गनाच्या तत्त्वारं केल्ली आसता.

– कों. वि. सं. मं.

**पुंडलिक :** एक नामनेचो विठ्ठलभक्त. पंढरपूरांत भीमरथी न्हंयेचे देगेर ताचो जल्म जाल्लो. ताच्या बापायचें नांव जानुदेव आनी आवयचें नांव सत्या अशें आशिल्लें. ताचें एके सुंदर चलयेकडेन लग्न जालें. तिच्या नादांत ताणें आवय-बापायचो अपमान केलो. तेन्ना वाजेवन तीं काशीक गेलीं. फुडें पुंडलिकच काशीक वचूंक गेलो. तेन्ना तो वाटेन कुक्कुट ऋषीच्या आश्रमांत रावलो. हो ऋषी मोटया मनोभावान आपल्या आवय-बापायची सेवा करतालो. ताचे हे पुण्यायेन गंगा, यमुना आनी सरस्वती ह्यो न्हंयो ताका न्हाण घालूंक ताच्या आश्रमांत येतात. तें पळोवन पुंडलिकान या ऋषीकडेन हे विशीं चवकशी केली. हें आवय-बापायचे सेवेचें फळ अशें सांगून ताणें ताका पुत्रधर्माचो उपदेश केलो. तेन्ना ताका आवय-बापायचे सेवेचें म्हत्व पटलें. तो वचून आवय-बापायक मेळ्ळो आनी तांकां ताणें घरा हाडलीं. फुडें तो सदांच तांची सेवा करतालो. ताचे हे सेवेन विष्णु ताचेर प्रसन्न जालो आनी ताका मेळूंक आयलो. पूण आवय-बापायचे सेवेंत खंड पडचो न्हंय देखून ताणें विष्णुक उबो रावपाखातीर लागसल्ली एक वीट शेंवटिली. विष्णु ते विटेर उबो रावलो. तोच फुडें विठ्ठल ह्या नांवान भागवतधर्मियांचो उपास्य म्हणून रावलो. ताची आवय-बापायची भक्ती पळोवन विठ्ठलान ताचेकडेन वर मागूंक सांगलो. तेन्ना पुंडलिकान ताका सांगलें, ज्या रुपान तू हांगा उबो आसा त्याच रुपान हांगा कायम राव. तशेंच, हांगा तू पुंडलिकवरद ह्या नांवान नामनेक येवन ह्या क्षेत्राकय पुंडलिकपूर हें नांव मेळचें.

पंढरपूरांत चंद्रभागेच्या रेंवटांत विठोबाच्या देवळासावन सुमार १,५०० मीटर अंतराचेर पुंडलिकाचें देवूळ आसा. हाका पुंडलिकाची समाधी मानतात. ह्या देवळांत पुंडलिकाचें प्रतीक म्हणून शिवलिंग आसा. पांडुरंगाचें दर्शन घेवंचे आदीं पुंडलिकाचें दर्शन घेवंक जाय अशी चाल आसा. सद्या आशिल्लें ताचें देवूळ इ.स. १७५० त राजा होळकरान बांदिल्लें.

– कों. वि. सं. मं.

**पुट्टप, कु. वें. – 'कुवेंपु' :** (जल्म : २९ डिसेंबर १९०४, कुप्पळ्ळी-तीर्थहळ्ळी, ज़ि. शिमोगा-कर्नाटक; मरण : ९ नोव्हेंबर १९९४, बेंगळूर).

भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाल्लो कन्नड कवी आनी अश्टतासांचो लेखक. एका प्रतिश्ठीत आनी सुसंस्कृत शेतकरी घराण्यांत



ताचो जल्म जालो. ताचें चडशें साहित्य 'कुवेंपु' ह्या टोपण नांवानूच उजवाडा आयिल्लें आसा. 'कुवेंपु' हें नांव कुप्पळ्ळी वेंकटप्प आनी पुट्टप ह्या तिनूय उतरांतलीं आद्याक्षरां घेवन घडलां.

ताणें मुळावें शिक्षण कुप्पळ्ळी गांवांत घेतलें. उपरांत फुडलें शिक्षण ताणें म्हैसूराक घेतलें. १९२९ त म्हैसूर विद्यापिठांतल्यान कन्नड साहित्यांत एम. ए. करून तो थंयच कन्नडाचो प्राध्यापक जालो.

'कुवेंपु' चो पींड जरी कवीचो आसलो तरी कथा, नवलिका (कादंबरी), नाटक, चरीत्र, चरीत्र-लिखाण, बाल-वाङ्मय तशेंच समिक्षा ह्या साहित्याच्या वेगवेगळ्या मळांचेर ताणें आपली खाशेली सुवात निर्माण केली. 'बिगिनर्स म्युझ' १९२२ हें ताचें इंग्लीश कवितांचें पयलें पुस्तक. उपरांत मात तो कन्नड साहित्यावटेन घुंवलो. 'कोळ्लु' (१९३०) ह्या कवितां झेल्यान तो दक्षीण कर्नाटकाचो मुखेल आर्विल्लो कवी म्हणून फुडें आयलो. सैम, मोग, अध्यात्म, काव्य आनी समाजीक क्रांती हे ताचे कवितेचे मुखेल विशय आनी ताचो आत्मो स्वच्छंदतायवादी. ताच्या नामनेच्या कवितां झेल्यांतले 'पांचजन्य' (१९३३), 'नविलु' (१९४३), 'कोगिले

मत्तु सोविएट रशिया' (१९४४), 'प्रेमकाश्मीर' (१९४६) हे चड म्हत्वाचे.

महाकवी मिल्टनाभाशेन आपणेंय 'रसरुशी' जावचो अशी ताची मोख आशिल्ली. तातूंतल्यान ताणें 'चित्रांगदा' (१९४९) आनी 'श्रीरामायणदर्शनम' (१९४९) हीं महाकाव्यां बरयलीं. ताचें श्रीरामायणदर्शनम हें महाकाव्य एका दशकाचे साधनेचें फळ. ह्या महाकाव्याखातीर ताका भारतीय ज्ञानपीठ भोवमान मेळ्ळो. तेवीस हजार ओळींचें हें महाकाव्य चार संपुटांनी आनी पन्नास सर्गांनी विभागिल्लें आसा. तेचपरी ते 'महाछंद' नांवाच्या छंदांत बरयल्लें आसा. मिल्टनाच्या ब्लँकवर्साकडेन तुळा करपी हो महाछंद कन्नड साहित्यांतलो एक आगळो प्रयोग. तेचप्रमाण ह्या महाकाव्यांतली श्रीरामचंद्राची व्यक्तिरेखा महर्षि श्रीअरविंदाच्या 'पुरूषोत्तम' हे संकल्पनेक खुबूच लागशिल्ली आसा. ह्या महाकाव्याच्या येसाची तेंगशी म्हळ्यार व्यक्तिगत नदरेंतल्यान घडपी त्या काळावयलें जिवीत दर्शन आनी सर्वकालीन संवसारीक जीवीतदर्शन हांचो मनभुलोवणो एकचार.

'कुवेंपु' हाची महाकाव्याची प्रेरणा ताच्या 'कानुरूसुब्बमा हेग्गडती' (१९३६) आनी 'मलेगळल्ली मदुमगळु' (१९६७) ह्या दोन नकलिकांनी उक्तावल्या. मलेनाडु प्रदेशांतल्या जिवितार्चे पुराय दर्शन ह्या नवलिकांतल्यान सहजपणान आनी वास्तवतायेन चितारलां. समकालीन फाटभुंयेर मूर्त जिविताच्या सगळ्या आंगांक आस्पावपी ह्या दोनूय नवलिकांतल्या घडिल्ल्या आविश्काराक लागून आर्विल्ल्या समिक्षकांनी तांकां श्रीरामायणदर्शनम परसूय वयल्या पांवडयाच्यो साहित्यकृती लेखल्यात.

ताच्या साबार नाट्यकृतींत 'जलगार' (१९२८), 'यमतसोलु' (१९२८), 'बेरळगे कोरळ'(१९४७) तशेंच 'शुद्रतपस्वी मत्तुबलिदान' (१९४८) ह्यो कृती तोखेवपासारक्यो आसात. हाचेभायर 'कुवेंपु' हाणें दोन कथां झेले, भरपूर भुरग्यांचें साहित्य, रामकृष्ण परमहंस तशेंच स्वामी विवेकानंद हांचीं चरित्रां, साबार निबंद झेले आनी समिक्षात्मक ग्रंथ बरयल्यात.

१९५६ ते १९६० ह्या काळांत तो म्हैसूर विद्यापिठाचो उपकुलगुरू आशिल्लो. ह्या काळांत ताणें केल्लो वावर खूब मोलादीक आसा. हांगाचें 'मानस - गंगोत्री' हें पदवे उपरांतचें अध्ययन संशोधन केंद्र ताचे दुरगामी नदरेचें आनी परिश्रमाचें प्रतीक म्हळ्यार लटीक जावचें ना. कर्नाटकांतल्या महाविद्यालयांत कानडीक माध्यम भास म्हणून मेळिल्ली मान्यताय कांय अंशान ताच्या यत्नांतल्यान साध्य जाल्या.

१९५५ त ताका साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जालो. १९५७ त धारवाडा जाल्ल्या कन्नड साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद ताचेकडेन आयलें. इ.स. १९५६, १९६६ आनी १९६९ त अनुक्रमान म्हैसूर, कर्नाटक आनी बेंगळूर विद्यापिठांनी सन्मान्य डि.लिट् ही पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो. १९६४ त कर्नाटक सरकारान 'राष्ट्रकवी' हो किताब दिवन ताचो भोवमान केलो. १९६७ त ताका भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जालो.

– श्रीमती किरण बुडकुले

**पुणें** : महाराष्ट्रांतलें एक शिक्षणीक, संस्कृतीक आनी उद्देगीक केंद्र तशेंच पुणें जिल्ह्याचें मुखेल ठिकाण. विस्तार १८° ३०' उत्तर अक्षांश आनी ७३° ५३' उदेंत रेखांश. रेल्वेन मुंबयचे आग्नेयेक १५२ किमी. अंतराचेर हें शार आसा. समुद्रथरासावन सादारणपणान ५६३ मी. उंचायेचेर हें शार वसलां. शाराची लोकसंख्या ५४९४३३६ (१९९१) आनी आंवाठ १५६४२ चौ.किमी.

खूब पोरणो इतिहास आशिल्लें हें शार मुळा आनी मुठा ह्या न्हंयांचेर वसलां. ताचें पोरणें नांव 'पुनवडी' अशें आशिल्लें. मुळा-मुठा संगमाचे आलतडीन-पलतडीन आशिल्ले कांय गांव मेळून फुडें ताका कसबेपुणे ह्या नांवान वळखताले. खडकवासलाच्या व्हड तळ्यांतल्यान ह्या शाराक उदकाची पुरवण जाता. हांगाचें सरासरी तापमान १७.२° सं. आसून पावस वर्साक सरासरी ६६.१३ सेमी. इतलो आसता.

महाराष्ट्रांतलें हें सगळ्यांत पोरणें शार आसून मुठा न्हंयेच्या लागसार सुमार देड-दोन लाख वर्सांपयलीचीं पुर्विल्लीं अश्मयुगांतलीं हत्यारां मेळ्ळ्यांत. अल्लाउद्दीन खिलजीन यादवांचेर हार घालतकच पुणें मुसलमानी सत्तेखाला गेलें. फुडें मुसलमानी राजवटींत हो प्रांत आदिलशाही अमलाखाला आशिल्लो. शहाजीराजे भोसले हाणें हो वाठार निजामशाही अमलाखाला हाडून तांचेकडल्यान पुणें आनी शिरवळ ह्या परगण्यांची जहांगीर घेतली. शाहाजी राजाक कर्नाटकाचे स्वारीर वचचें पडलें तेन्ना ताणें पुणें आनी सुपें ह्या जहागीरींची वेवस्था आपलो विस्वासू दादाजी कोंडदेव हाचेर सोंपयली. आपली बायल जिजाबाय आनी पूत शिवाजी हांकांय ताचेकडेन दवरलीं. शिवाजीचें खूबशें भुरगेपण पुण्यांतूच गेलें. आदिलशाहाचो सरदार शाहिस्तेखान हाचीं बोटां कापपाचो पराक्रम शिवाजीन ह्याच शारांत केलो. शिवाजीच्या काळांतलें पुणें म्हळ्यार फकत कसबापेठ आनी ताका लागून आशिल्ले शनिवार, रविवार आनी सोमवार पेठ इतलेंच आशिल्लें. फुडें शाहू छत्रपती आनी बाळाजी विश्वनाथ पेशवा हांचे कारकिर्दी पसून म्हळ्यार इ. स. सोळाशें वीस पसून पुणें शाराचें म्हत्व वाडत गेलें. पयलो बाजीराव पेशवा हाणें पुणें शारांतूच रावपाचें वास्तव्य करत सावन आनी शनिवारवाडो बांदीत सावन पुणें शार हें पुराय हिंदूस्तानाचें मुखेल राजकीय केंद्र जालें.

सतराशें एकसश्टांत पानिपतच्या झुजांत मराठे हारले आनी अठराशें सतरांत पुणें शाराचेर इंग्लीशांचें राज्य सुरू जालें. उपरांत पुण्याचें राजकीय म्हत्व उणें जालें. पूण पुणें शाराची हवा मुंबयचे हवेपरस बरी आशिल्ल्यान जायते ब्रिटीश अधिकारी आनी स्वता ब्रिटीश गव्हर्नर वर्सांतल्यान स म्हयने पुण्यांतूच रावंक लागिल्ल्यान पुण्याक राजधानीसारकें म्हत्व प्राप्त जालें.

१८५६त पुण्यांत नगरपालिका स्थापन जाली. फुडें पुणें ल्हव-ल्हव शिक्षणीक आनी संस्कृतीक नदरेन म्हत्वाचें केंद्र जालें. १९६० उपरांत महाराष्ट्र राज्य स्थापने उपरांत पुण्याची उद्देगीक उदरगत नेटान जावंक लागली. खडकीचो दारूगुळ्याचो कारखानो, मुंढबाची डॅक्कन पेपर मील, गुजरात मॅटल फॅक्टरी, राजा बहादूर मोतीलाल पूना मिल्स हे ह्या वाठारांतले सुरवातीचे मुखेल उद्देग. लोकमान्य टिळकाचे स्वदेशी चळवळीखातीर ह्या वाठारांतल्या उद्देगधंद्यांक बरी स्फूर्त मेळ्ळी. पुण्याच्या खडकी, पिंपरी, चिंचवड, भोसरी, येरवडा, हडपसर, कर्वेमार्ग आनी हेर जायत्या वाठारांनी ल्हान-व्हड उद्देगधंदे चलतात. साठे बिस्किट अँड चॉकलेट कंपनी, किर्लोस्कर कमिन्स आनी किर्लोस्कर न्युमॅरिक कंपनी, टॅल्को, बजाज ऑटो, स्वस्तिक रबर प्रॉडक्टस् हांचे सारके जायते उत्पादक उद्देग पुणें वाठारांत आसात. पुण्याच्या उद्देगीक विस्ताराक

कांय संस्थांचो म्हत्वाचो वांटो आसा. तातूंत मराठा चेंबर ऑफ कॉमर्स अँड इंडस्ट्रीस, इंडस्ट्रियल ट्रेनिंग इन्स्टिटच्यूट, स्मॉल स्केल इंडस्ट्रीज सर्व्हिस इन्स्टिटच्यूट, जनरल मॅकॅनिकल इंजिनिअरिंग रिसर्च इन्स्टिटच्यूट आदी उल्लेख करपा सारके आसात. ह्या शारांत छापखाने, प्रकाशन संस्था, बांदकाम उद्येग आनी हेर जायत्या प्रकारांचे ल्हान उद्येग शारांत विकसीत जाल्यात.

पुणें हें महाराष्ट्रांतलेंच न्हय जाल्यार भारतांतलें मुखेल शिक्षणीक केंद्र मानतात. १८८४ सावन शारांतल्यो मुळाव्यो शाळा पुणें नगरपालिका चलयतात. हिंगणेंची बायलांखातीर स्वतंत्र शिक्षण संस्था आनी एरंडवणेंचें बायलांखातीर कॉलेज स्थापन जालें. डॅक्कन कॉलेज, लॉ कॉलेज, भांडारकर प्राच्यविद्या मंदिर, भारत इतिहास संशोधक मंडळ, अर्थशास्त्र, राज्यशास्त्र हांच्या अध्ययन संशोधनाखातीर आशिल्लें गोखले इन्स्टिटच्यूट, १९४९ त स्थापन जाल्लें पुणें विद्यापीठ, फिल्म अँड टेलिव्हिजन इन्स्टिटच्यूट ऑफ इंडिया (१९७०) ह्यो नामनेच्यो संस्था पुणें शारांतूच आसात.

पुण्यासावन चार मुखेल रस्ते भायल्या गांवांनी वतात. तातूंत पुणें-मुंबय, पुणें-बेंगळूर, हे राश्ट्रीय महामार्ग, जाल्यार पुणें-अहमदनगर-औरंगाबाद आनी पुणें-सोलापूर हे राज्य महामार्ग हांचो आस्पाव जाता. पुणें हें दक्षिण-मध्य रेल्वेचें म्हत्वाचें प्रस्थानक. मुंबय, उदेंतेक सोलापूर चेन्नायकडेन आनी दक्षिणेक मिरज -कोल्हापूराकडेन रूंद रेल्वेमार्ग वतात. पुणें-मुंबय रेल्वेमार्ग दोट्टी आनी विद्युत् चलीत आसा. पुणें-मुंबय वचपी डॅक्कन क्वीन ही भारतांतली सगळ्यांत वेगान धांवपी रेल्वेंतली एक.

पुण्यांत शाराभायर सरकारी वेधशाळा, लस्करी शाळा, रसायन शाळा आसात. शारांत नगरपालिकेचे दवाखाने आनी व्हड बागो आसात. पुण्यांतल्या पळोवपासारक्या थळांमदीं पर्वती, शनिवार वाडो, लालमहाल, चतु:शृंगी, पेशवा उद्यान, सारस बाग, आगाखान पॅलेस, राजा केळकर म्युझियम हांचो उल्लेख करपासारको आसा.

– नरेश कवडी

**पुणें कबलात** : दलीत वर्गाक विभक्त मतदारसंघ दिनासतना राखीव जागे मेळचे हे खातीर २४ सप्टेंबर १९३२ दिसा पुण्याक महात्मा गांधी आनी डॉ. आंबेडकर हांचेमदीं जी कबलात जाली तिका 'पुणें कबलात' म्हणून भारताच्या घटनात्मक इतिहासांत वळखतात. डॉ. आंबेडकर हे दलीत समाजाचे फुडारी आनी महात्मा गांधी कॉंग्रेसचे प्रभावी फुडारी आशिल्ले.

ब्रिटीश सरकारान जाहीर केल्ल्या जातीय निवाड्याचे सुचोवणेंतल्यान हिंदू समाजांत फूट घालपाची भिरांत आशिल्ली. ती टाळपाखातीर 'पुणें कबलात' जाली. तेचवांगडा अस्पृश्यांक राजकीय हक्क आनी प्रतिनिधित्व मेळचें, तांचेर अन्याय जावंचो न्हय म्हणून हे कबलातींतल्या तजविजांक म्हत्व आसा.

दुसरे गोलमेज परिशदे उपरांत १६ ऑगस्ट १९३२ दिसा ब्रिटीश प्रधानमंत्री रॅम्से मॅकडॉनाल्ड हाणें अँग्लो-इंडियन, मुसलमान आनी शीख हांचेखातीर स्वतंत्र मतदारसंघ दवरतले, तशेंच दलीत वर्गाखातीर खास राखीव जागे दवरतले. पूण ह्या जाग्यांखातीर प्रतिनिधी वेंचपाखातीर त्या मतदारसंघांतले फकत दलीत मतदारूच पात्र समजप जातालें, ज्या समाजांत दलितांची वस्ती चड आसा, थंयच मतदारसंघ निर्माण करतले अशें सुचयल्लें. सवर्ण हिंदू आनी दलितांनी परस्पर समझोत्याक कसलीय नवी येवजण तयार केली जाल्यार ती मान्य करपाची तयारी मॅकडॉनाल्ड हाणें दाखयल्ली.

गोलमेज परिशदेच्या वेळारूय महात्मा गांधीन विभक्त मतदारसंघ दिवपाचे येवजणेक विरोध केल्लो. हिंदू धर्मांतली जातीपताय नश्ट करपाचे, अस्पृश्यताय निवारणाचे महात्मा गांधींचे यत्न चालू आशिल्ले. वेगळे मतदारसंघ दिल्ल्यान दलितांच्या वेगळेपणाचेर शिक्कामोर्तब जावपाचें आशिल्लें. अशे तरेन फुटीर वृत्ती निर्माण करपी ब्रिटीश कार्यकर्त्यांच्या धोरणाक विरोध करपाचें महात्मा गांधीन थरयलें आनी दलितांक वेगळे मतदारसंघ दिल्यार आपूण आमरण उपास करतलों अशें भारतमंत्र्याक कळयलें. पूण २५ ऑगस्ट १९३२ दिसा बरयल्ल्या गांधीजींच्या पत्राक ब्रिटीश सरकारान कसलोच प्रतिसाद दिलोना. निमाणें २० संप्टेंबर १९३२ सावन गांधीजीन आमरण उपास सुरू केलो.

उपास सुरू केलो तेन्ना महात्मा गांधी पुण्यालागसारचे येरवड्याचे बंदखणींत आशिल्लो. उपासाची खबर आयकनाफुडें पं. मदनमोहन मालवीय, चक्रवर्ती राजगोपालाचारी, डॉ. राजेंद्र प्रसाद, डॉ. आंबेडकर हे फुडारी थंय आयले. महात्मा गांधीचो आमरण उपास आनी डॉ. आंबेडकराची दलितांच्या हक्कांविशींची भुमिका ह्या पेंचप्रसंगांतल्यान खंयचो मार्ग काडचो हाचेविशीं मुखेल फुडाऱ्यांनी विचार सुरू केलो. ह्या फुडाऱ्यांची पयली परिशद मुंबयंत आनी दुसरी परिशद पुण्यांत जाली. हे वाटाघाटींत समन्वय सादलो आनी दलितांक वेगळे मतदारसंघ दिनासतना राखीव जागे दवरचे अशें थारलें. हे कबलातीक गांधीजी आनी डॉ. आंबेडकर ह्या दोगांचीय मान्यताय मेळ्ळी. २४ सप्टेंबर १९३२ दिसा जाल्ले हे कबलातींतलीं कलमां अशीं आशिल्लीं -

१. प्रांतिक आनी मध्यवर्ती कायदेमंडळांत दलितांखातीर राखीव जागे आसचे.

२. अस्पृश्यांनी पयलीं तांचेखातीर जितले राखीव जागे आसतले, तांचेखातीर दरेका जाग्याखातीर चार उमेदवार वेंचून काडचे आनी उपरांत दलीत आनी सवर्ण हिंदू हांच्या जोड मतदारसंघांतल्यान तातूंतल्या एका उमेदवाराची निवड जावंची.

३. शासकीय सेवेंत शिक्षणीक पात्रताये प्रमाण दलितांक फावो ते जागे मेळचे.

४. दलितांचे शिक्षणीक उदरगती खातीर अर्थीक तजवीज करची.

अस्पृश्यांनी पयलीं चार उमेदवार काडचे आनी जोड मतदारसंघांतल्यान एकाची निवड जावची ही येवजण फकत धा वर्सांखातीरूच आशिल्ली आनी उपरांत दोनूय पक्षांक मान्य जाल्यार ती रद्द करची अशें थरलें. सगळ्या फुडाऱ्यांक मान्य जाल्ले हे कबलातीक ब्रिटीश सरकारानूय मान्यताय दिली.

विभक्त मतदारसंघांतल्यान जितले जागे दलितांखातीर दिल्ले, ताचे दुपेट जागे हे कबलातीन दिल्ले. तरीय डॉ. आंबेडकराचें व्हडलेशें समाधान जावंक नाशिल्लें. पूण महात्मा गांधीसारक्या राश्ट्रीय फुडाऱ्याच्या आमरण उपोशणाक लागून आपूण ही कबलात मान्य करतां अशें डॉ. आंबेडकर हाणीं म्हणिल्लें. दलितांखातीर विभक्त मतदारसंघ दवरचो न्हय, हेंच तत्त्व उपरांत भारतीय राज्यघटनेंतूय पाळिल्लें. जातीभेदाक लागून पोखरिल्ल्या हिंदू समाजांत स्पृश्य मानिल्ल्यान दलीत समाजाखातीर एकदां मतदारसंघ मान्य केल्ले, जाल्यार ही राश्ट्राच्या एकचाराचे नदरेन

अहितकारक आशिल्ली अस्पृश्यतायेची रुढी आनीकूय पक्की जावपाची. जे कांय घटनात्मक बदल जायत आसात, तातूंत असल्यो अन्यायकारक रुढी ना करपाची नदर दवरपाक जाय. हो महात्मा गांधीचो विचार सर्वसामान्यपणान मान्य जालो. ताका लागुनूच १९३२ चो जातीय निवाडो रद्द जावन 'पुणें कबलात' मान्य जाली.

– कों. वि. सं. मं.

**पुण्य :** एक समाजीक आनी धर्मीक संज्ञा. हाची व्याख्या अशी 'इष्टान्तरजनकम्' – वेगळें इश्ट फळ तयार करपी तें पुण्य, विहितानुष्ठानजन्यं पुण्यम्' – बरें काम करतकच जें मेळटा तें पुण्य. धर्मशास्त्रकारांनी आचाराविशीं जे नेम केल्यात त्या नेमांक योग्य पाळो दितकच जी एक विशेश शक्त वा बळगें मेळटा ताका पुण्य अशी संज्ञा आसा. हाचे उरफाटें तें पाप. मनशाचें पुण्य ज्या मानान उणें चड आसता ते प्रमाण ताका इहलोकी उणें चड प्रमाणांत सूख मेळटा आनी त्याच पुण्याच्या म्हालवजार सर्गसूख मेळटा अशी समजूत आसा.

धर्मशास्त्रान सांगिल्ल्या नेमांक योग्य तो पाळो दितकच जशें पुण्य मेळटा तशेंच तें विशिश्ट काळांत विशिश्ट गजाली केल्यारूय मेळटा. देखीक – पर्वकाळांत तिर्थांत न्हाल्यार वा देवाचें दर्शन घेतकच, देवाचो तीर्थप्रसाद खातकच पुण्य मेळटा. क्षेत्रांनी धर्मशाळा बांदप, अन्नदान, विद्यादान, भूंयदान आदी दानां करप, वेगवेगळीं व्रतां आनी उपास करप आदी गजालीय पुण्यायेच्यो मानल्यात. योग्य कर्मां केल्यार तीं मनशाक धन, सूख आनी सर्गाची प्राप्ती करून दितात. मनशाची प्रवृत्ती पुण्यावटेन घुंवची आनी ताणें पापापसून पयस रावचें देखून धर्मशास्त्रान ह्यो गजाली सांगल्यात.

मनशान सतत पुण्य करीत रावचें पूण ताचो स्वताच्या तोंडान उच्चार करचो न्हय अशें देवल सांगता.

तस्मादात्मकृतं पुण्यं वृथा न परिकीर्तयेत्

अर्थ – उच्चारिल्लें पुण्य फुकट वता देखून स्वता केल्ल्या पुण्याची वायफळ वाच्यता करूंक जायना.

पुण्य केल्यार सर्ग आनी पाप केल्यार नरक मेळटा असो खर समज लोकांमदीं आनी धर्मशास्त्रांत आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पुण्याहवाचन :** एक धर्मीक व्रत. पुण्य +आह + वाचन = पुण्यकारक दिसाचें वाचन करप. ज्योतिशशास्त्रज्ञाचे नदरेंतल्यान खंयचोय दीस शुभ जरी आसलो तरी वैदिक ब्राह्मणांनी 'पुण्याह' अशें म्हणून तो दीस पुण्यकारक आसा म्हणून सांगून यजमानाक आशिर्वाद दिवन त्या कामाक पुश्टी दिवपाची आसता. खंयचेंय मंगल कार्य शुभ दीस पळोवनूच करतात खरें, पूण ब्राह्मणान तो दीस पुण्यकारक आशिल्ल्याचें सांगून येजमानाक आशिर्वाद दिल्यार बरें जातलें हे कल्पनेंतल्यान खंयच्याय मंगल कार्याआदीं गणपती पुजे उपरांत पुण्याहवाचन करपाची चाल आसा.

ह्या विधींत वरुणाची स्थापना करून ताची पुजा करतात. ही वरूण देवता कलशाचेर स्थापन करतात.

हेमरजतनाम्रंवा मृण्मयी लक्षणान्वि ताः कलशौ ।

अर्थ – कलश हो भांगर, तांबें, रुपें वा माती हांचो आसचो.

शुभकर्मणि पुण्याहवाचने कलशब्दयम् ।
स्थापयेदशुभेत्वेकमिति यज्ञविदो विदुः ॥

अर्थ – ज्या वेळार शुभकार्य आसता तेन्ना दोन वरुणांची स्थापना करप आनी अशुभ कार्य आसल्यार एका वरुणाची स्थापना करप.

आपलें शुभ कार्य वेवस्थीत आनी बरे तरेन जावंचें हेखातीर वरुणाकडेन प्रार्थना करून ताच्या उदकान आमी पवित्र आसचें अशी भावना आसता.

सुर्वेक धान्याचे राशीचेर दोन कलशांची स्थापना करतात. शास्त्राप्रमाण गणेशपुजा जाले उपरांत वरुणाची पुजा आनी प्रार्थना करतात.

मातृदेवो भव। पितृ देवो भव। आचार्य देवो भव।
सर्वेभ्यो ब्राह्मणेभ्यो नमो नमः।

अशें म्हणून नमस्कार करतात.

यजमान आपलीं दोनूय धोंपरां जमनीक लावन बसता. दोनय हात कमळा भाशेन करून तो उत्तरेकडलो वरुण घेवन आपल्या घरकान्नीच्या आनी जाचें कार्य आसा त्या भुरग्याच्या कपलाक लायता. हो विधी करतना वरुणाची आमचेर सदांच कृपादृष्टी उरची अशी प्रार्थना करतात. मागीर ब्राह्मणाची पुजा करून ताचोय आशिर्वाद घेतात. सगळे ब्राह्मण 'पुण्याह' (दीस पुण्यकारक आसा) अशें म्हण्टात.

पुण्याहवाचन ह्या विधीचो आनीक एक म्हत्वाचो उद्देश म्हळ्यार सगल्यो देवता, ग्रह, दिशा, वास्तुदेवता प्रसन्न जावंच्यो हेखातीर दरेकाक स्वतंत्र उदक दितात. तेचपरी वायट संकश्टां, अरिश्टां, पाडच्यो शक्ती, द्वेश्टे, मायावी शक्ती, दुस्मान हांचेपसून त्रास, पिडा जावंची न्हय देखून तांकांय उदक दिवन संतुश्ट करतात.

पुण्याहवाचनाच्या निमाणें ब्राह्मणाची पुजा करतात. उपरांत ब्राह्मण वरुणांतलें उदक घेवन आंब्याच्यां पानांनी त्या उदकाचो अभिशेक येजमान आनी तांच्या कुटुंबाचेर करतात. 'समुद्राद्रुर्मि' असो मंत्र म्हण्टात.

अभिषेकविधी जाले उपरांत 'पुण्याहवाचन फलसमृध्दी रस्तु' म्हणजे 'तुका पुण्याहवाचनाचें फळ प्राप्त जावं' अशें ब्राह्मण म्हण्टा.

– माधव गो. भुस्कुटे

**पुनर्जल्म :** अमर आत्मो एके नश्वर कुडीचो त्याग करून दुसरे कुडींत रिगता तेन्ना आत्म्याचो पुनर्जल्म जाता. पुर्व कर्माप्रमाण मेळपी हो पुनर्जल्म भारतीय तत्त्वज्ञानांतलो एक म्हत्वाचो सिध्दांत. भारतीय नितीशास्त्राचो चडसो भार पुनर्जल्म हे कल्पनेचेर आदारून आसा. मरणाउपरांत शास्त्रीय आनी धर्मीक तत्त्वांनुसार तीन संभव अपेक्षीत उरतात. १) कुडीवांगडाच आत्म्याचो नाश. २) कुडीचो नाश पूण आत्म्याचें अंतराळांत वास्तव्य आनी ३) आत्म्याचो पुनर्जल्म. भारतीय तत्त्वज्ञान तिसरो संभव मानता.

मनीस मरतकच, ताचो आत्मो मेल्ल्या शरिराक सोडून वता आनी कांय काळाउपरांत आपल्या पूर्व कर्माप्रमाण त्या कर्माचीं फळां भोगपाखातीर योग्य अशे उच्च वा नीच योनींत परतून जल्म घेता, असो पुनर्जल्माचो सिध्दांत आसा. जो मनीस पुण्यवान आसता, ताका मनशाचे योनींत जल्म मेळटा. होच त्या जिवात्म्याचो पुनर्जल्म. ह्या लोकांत, कांय मनीस आनी मोनजात सुखी, सद्गुणी आनी भाग्यवान आसता. पूण कांय जाण जल्मतनाच दुख्खी, दुर्गुणी वा दुर्देवी आसतात. हाचें कारण पयलींच्या जल्मांतलें बरें वा वायट कर्म अशें हो सिध्दांत सांगता. खंयच्याय कर्माचें

फळ मेळूंकूच जाय हो कर्मसिध्दांत. पूण दरेका कर्माचें फळ ह्या जल्मांत मेळटाच अशें ना, तेखातीर पयलींच्या जल्मांतल्या कर्मांचें फळ ह्या जल्मांत आनी ह्या जल्मांतल्या कर्मांचें फळ फुडल्या जल्मांत भोगचें पडटा अशें हो सिध्दांत सांगता. ह्या कर्मफळाच्या भोगाखातीरूच आत्म्याक पुनर्जल्म घेवंचो पडटा. जाची जशी इत्सा आसता तसो ताचो निश्चेव जाता, निश्चेवाप्रमाण कर्म घडटा आनी कर्माप्रमाण फळ मेळटा.

जिवात्मो शरीरापरस वेगळो आसता. तो शरीररापरस चड काळ तिगता. मनशाभाशेन देव, मोनजात, वनस्पत हांकांय जिवात्मे आसतात. हे सगळे जिवात्मे एका प्रकारचे योनींतल्यान दुसरे तरेचे योनींत वचूंक शकतात. केल्ल्या कर्मांचीं फळां केन्ना ना केन्ना भोगचीं पडटात. वैदिकांनी ही पुनर्जल्माची कल्पना एतद्दशीय अनार्यांकडल्यान घेतली वा आर्यांतल्याच कांय लोकांभितर ती पयलीं काळा सावन आसुंये वा ती ऑस्ट्रेलॉयड ह्या पुर्विल्ल्या भारतीय वंशाची देण अशीं मतां ह्या सिध्दांताच्या भारतांतले उत्पत्तीविशीं मांडटात.

उपनिषदां, ब्रह्मसूत्रां, गीता, महाभारत, स्मृती, पुराणां ह्या ग्रंथांनी पुनर्जल्माची विस्तारान म्हायती मेळटा. ह्या विशयाचेर पुराणकथाय आसात. तत्त्वज्ञानाचेर आदारिल्लो पुनर्जल्माचो सिध्दांत हें मुखेलपणान हिंदू, जैन, बौध्द, शीख ह्या भारतीय धर्मांचेंच खाशेलपण आसून भारतीय तत्त्वज्ञान, धर्मशास्त्र, नितीशास्त्र हांचेमदलो तो एक म्हत्वाचो सिध्दांत. कसल्या पातकाक लागून खंयचो जल्म मेळटा, हेविशीं खूब वर्णनां आसात. श्रुतिस्मृतिपुराण, गरूडपुराण, याज्ञवल्क्यस्मृती आनी हे याज्ञवल्क्यस्मृतीचे 'मिताक्षरा' हे टिकेंत, कसल्या पापाक लागून कसली योनी मेळटा हाची विस्कटावणी केल्या. तेच भाशेन वेगवेगळीं पातकां केल्ल्यान कसले रोग जातात आनी ते रोग जाल्ल्या मनशांनी कसलीं प्रायश्चितां घेवंचीं, हेविशींय कांय धर्मग्रंथांनी स्पश्टीकरण आसा.

कर्तव्यकर्माक योग्य दिका दाखोवन दिवन मनीस जिणेचें निमाणें ध्येय म्हळ्यार 'मोक्ष'. मनीस आपलें कर्तव्य - कर्म विसरून जेन्ना मेळत तशीं कर्मां करता तेन्ना ताच्या संचितांत वायट कर्मांच्या फळांचोच आस्पाव जाता. ह्या संचितांतल्यान प्रारब्ध उत्पन्न जाता आनी प्रारब्धाप्रमाण परतून जल्म घेवंचो पडटा, हाकाच 'पुनर्जल्म' अशें म्हण्टात. हो क्रम असोच चालू उरता. ह्या पुनर्जल्मांतल्यान सुटपाक एक मनीसजल्म तितलोच पात्र आसा. तेखातीर मनशाचे जिणेक हिंदू धर्माचे नदरेन खूब म्हत्व फाव जालां.

मनीस जल्माक येतकच प्रारब्ध आनी चालू कर्म हांची योग्य ती सांगड घालून मनीस स्वताक जल्म मरणाच्या दुश्ट चक्रांतल्यान वाटावंक शकता असो हिंदू धर्माचो विस्वास आसा. फाटलीं दोन हजार वर्सां हिंदू लोक तरातरांचीं व्रतां, उपासना आनी साधना करून मोक्ष मेळोवपाचो यत्न करतात. मोक्ष मेळमेरेन मनशाचो जीव कितल्याशाच योनींतल्यान भोंवत आसता, हो सिध्दांत वेदान्त, सांख्य, योग, न्याय, बौध्द, जैन ह्या सगळ्या दर्शनांनी आपणायला.

भुरगें जल्माक येतनाच ताका राज्य, संपत, विद्या, दळडीर, बुद्द, पिशेपण, सुख, दुख्ख अशो कितल्योशोच गजाली मेळटात. हाचेवयल्यान पुनर्जल्म आनी प्रारब्ध हांची कल्पना येता. कोणूय मनीस ह्या जल्मांत खंयचेंय कर्म करचे पयलींच राजपुत्र जाता वा दळडिरो जाता, बुदवंत वा पिसो जाता, एकल्याक सुख मेळटा जाल्यार दुसऱ्याक दुख्ख. हाचेवयल्यान पुनर्जल्माचें अनुमान केलां. पयली जल्मांतल्या संचित आनी प्रारब्ध कर्मांक लागून ह्यो तरेतरेच्यो गजाली मनशाक आपसुकूच मेळटात. तेखातीर पूर्वकर्माप्रमाण पुनर्जल्म हो सिध्दांत मानचो पडटा अशें पुनर्जल्माचे पुरस्कर्ते मानतात. इतलेंच न्हय जाल्यार एकाच आवय-बापायगेर जल्माक आयिल्ल्या भुरग्यांमदीं विषम गूण आनी विषम परिस्थिती दिसता. पूर्वकर्मानुसार पुनर्जल्म हो सिध्दांत मानलो जाल्यार हे विषमतायेची कारणमीमांसा करपाक सोंपे जाता. संवसारांतली खंयचीच गजाल नश्ट जायना तशी ती नव्यानूय निर्माण जायना, पूण तातूंत बदल घडटात. हो विज्ञानीक सिध्दांत पुनर्जल्माच्या सिध्दांताक पुश्टी दिता.

पुनर्जल्म ह्या सिध्दांताक विरोध करपीय आसात. तांच्या मताप्रमाण पुनर्जल्म घेतिल्ल्या मनशाक फाटल्या जल्माचें स्मरण जावंक जाय आशिल्लें. तशेंच, आदलेच जीव पुनर्जल्म घेतात आसत जाल्यार मानवी लोकसंख्या इतली वाडची नाशिल्ली. पुनर्जल्माक विरोध करपी एक सबळ कारण दितात तें अनुवंशीकतायेचें. अनुवंशीकतायेच्या तत्त्वाप्रमाण थरावीक एका घराब्याची संतत, थरावीक असो अनुवंशीक गूण दाखयता. हो अनुवंशीकतायेचो गूण पुनर्जल्माच्या सिध्दांताक आड येता.

पुनर्जल्माच्या सिध्दांताचें शास्त्रीय विवेचन कुशीक सारलें जाल्यार ह्या सिध्दांताचे भारतीय समाजाचे परस्पर विरोधी अशे दोन परिणाम जाल्ले दिसतात. पूर्वकर्मा नुसार फलप्राप्ती जाता अशें गृहीत धरिल्ल्यान हातूंत बदल करपाचें आतां ईश्वर वा व्यक्ती ह्या दोगांयच्याय हातांत उरना असो समज करून वर्तमान जिवनाकडेन निश्क्रीय भावना दाखोवप जाता. हाका लागून प्राप्त परिस्थितीक शरण वचप आनी कसलेय हालचालीक वा बदलांक प्रोत्साहन दिवप ना अशी वर्तमानाची उपेक्षा करपी प्रवृत्ती तयार जाता.

ह्या सिध्दांताचो अपेक्षीत असो बरो परिणाम दिश्टी पडटा. कर्मानुसार फळ मेळटा अशें समजल्ल्यान मनीस सदाचरणी, सद्भावनी, सद्गुणी जावपाचो यत्न करता आनी ह्या यत्नांवरवीं आपलें फुडल्या जल्माचें प्रारब्ध जोडून दवरता. ताचे प्रवृत्तींतल्यान बरो असो समाज घडपाक मदत जाता.

मेल्ल्या मनशाचो आत्मो, वनस्पत वा मोनजातीच्या रुपान तशेंच आपल्या घराण्यांत जल्माक येवपी भुरग्याच्या रुपान पुनर्जल्म घेता, ही कल्पना खूबकडेन आसा. भुरग्याक मेल्ल्या मनशाचें नांव दवरपाफाटल्यान हीच कल्पना आसता. भारताभायर जगांतल्या हेर देशांनीय पुनर्जल्मावयलो विस्वास चड-उण्या प्रमाणांत मेळटा. अस्तंत आफ्रिकेंतल्या मंदिंगो, यू, एडो आनी इबो ह्या जमातींनी असो विस्वास आसा. आफ्रिका आनी अमेरिका हांगाचे आदिवासी लोक पुनर्जल्माच्या विस्वासान मेल्ल्या भुरग्यांक रस्त्याचे कुशीक वा आवयम्हऱ्यांत पुरतात. मध्य ऑस्ट्रेलिया आनी आफ्रिकेंत मेल्ल्यांक तांच्या जल्मसुवातीचेर पुरपाफाटल्यान होच विस्वास आसता. दक्षिण आफ्रिका, ओशिॲनियेंत देवकल्पनेचो उगम पुनर्जल्माच्या सिध्दांतांकडेन लायला.

पुर्विल्ले युरोपी लोक पुनर्जल्म मानताले आसुंये. गॉल, थ्रेशियन आनी सिथियन लोक पुनर्जल्म मानताले. सुरवेक रोमी लोकांनी हें तत्त्व मानूंक नाशिल्लें पूण पायथागोरसाच्या प्रभावान हॉरिस, व्हर्जिल, ऑव्हिड हाणीं हें तत्त्व मांडलां. ट्युटॉनिक लोकांनी पुनर्जल्म मानिल्ल्याचीं उदाहरणां आसात.

- डॉ. अनंत राम भट

- कों. वि. सं. मं.

**पुनर्नवा :** (मराठी : पुनर्नवा, घेटुळी, तांबडी वसू, खापरा; हिंदी : साट, ठिकरी; गुजराती : राती साटोडी; कन्नड : कोमेगिड; संस्कृत : पुनर्नवा, रक्त पुनर्नवा, शोथहनी; इंग्लीश : स्प्रेडिंग हॉगवीड; लॅटिन : बुऱ्हाविया डिफ्युजा; कूळ : निक्टॅजिनेसी).

जायतीं वर्सां जगपी ही वखदी वनस्पत खंयूय, तणाभाशेन आनी पसरून वाडटा. वनस्पतीचो प्रसार भारतांत सगळे कडेन आसून तिच्या वंशांतल्यो वट्ट स जाती भारतांत मेळटात. बलुचिस्तान, श्रीलंका, उश्ण आनी उपोश्ण कटिबंधीय आशिया, आफ्रिका आनी अमेरिका ह्या प्रदेशांतूय तिचो प्रसार आसा. सुश्रुत संहितेंत (इ.स. तिसरें शतक) ह्या पुनर्नवाचो उल्लेख शाकवर्गांत केल्लो आसा. ताचेवयल्यान त्या काळांत भारतांतल्या लोकांक ही वनस्पत खबर आसून तिच्या गूणधर्मांची वळख जाल्ली आसूंक जाय.

हे वनस्पतीचीं मुळां मोटीं, मदींच फुगिल्लीं आनी दोनूय तोंकांकडेन आंवुळिल्लीं आसतात. कांड आनी खांदयो बारीक, चिवट, जांबळ्या रंगाच्यो आसून त्यो जमनी बरोबर वाडटात. पानां सादीं, एकमेकां सामकार आनी जोडयो असमान आसतात. तांचो आकार वाटकुळा कृती आसून रंग वयल्यान पाचवो आनी पोंदच्यान धवसो आसता. सप्टेंबर ते डिसेंबर ह्या काळांत लांब दांड्यार पानांचे खांचींत वा खांदयेच्या तोंकार चार-पाच फुलांचे चंवरी भाशेन घोंस येतात. फुलां तांबडीं आनी खूब ल्हान आसतात. पुनर्नवाचें मूळ मुताचे त्रास, कफ, दमो, रक्तक्षय, कामीण असल्या पिडांचेर उपेगी थरता. मुळांत पुनर्नव्हाइन हें क्रियाशिल आल्कालॉयड ०.०४% आसता. दोळ्याच्या कांय पिडांनी पुनर्नवेचीं मुळां म्हौंवांत उकडून दोळ्यांत घालतात आनी पोटांत दितात.

– कों. वि. सं. मं.

**पुनर्वसु :** भारतीय नखेत्रमाळेंतलें सातवें नखेत्र. हातूंतले पयले तीन चरण मिथुन आनी चवथो चरण कर्क राशींत येता. हातूंत मिथुनेचो आल्फा आनी बीटा हे तारे आसून तातूंतलो आल्फा हो योग तारो अशें मानतात. दोनूय सारकेच प्रतीचे आशिल्ल्यान तांकां जुंवळीं भावंडां (कॅस्टर आनी पॉलॉक्स) अशें म्हण्टात. हे विशीं एक ग्रीसी पुराणकथा आसा. कांय जाणकारांच्या मतान लघुलुब्धकाचो (Canis Minor) आल्फा आनी बीटा हेय पुनर्वसूंतूच मोडटात. ही जोडी दक्षिणेक आसा. दोनूय जोडयां मदीं मेकळी सुवात आसा. हे सुवातींतल्यान सूर्य, चंद्र आनी गिरे गेल्ले दिसतात म्हणून पुनर्वसूक मळबाचें महाद्वार अशें म्हण्टात.

ह्या ताऱ्यांची म्हायती फुडें दिल्या – १) प्लव (पॉलॉक्स), अंतर सुमार ३५ उजवाड वर्सां, हो सूर्याक सगळ्यांत लागींचो महातारो आसून सुर्याच्या ३२ पट तेजिश्ट आसा. २) कश (कॅस्टर). अंतर सुमार ४७ उजवाड वर्सां. हें तारकायुग्म (Double Star) आसून हातूंतलो दरेक घटक दोट्टी आसता. ३) बीटा कॅनिस मायनॉरिस ४) प्रश्वा (प्रॉसियान) हो तारो सुमार ११.४ उजवाड वर्सां अंतराचेर आसा. ह्या नखेत्राची देवता अदिती आनी आकृती घर मानतात. फेब्रुवारीचे अखेरेक हे रातीकडेन ९ वरांचेर तकलेर येतात.

हेमाद्रीन पुनर्वसूचें मूर्तिध्यान सांगलां तें अशें –

शुकरास्यो बिडालस्थो गौरवर्णः पुनर्वसुः ।
सूत्रवज्राङ्‌कुशाभीतीर्बिभ्राणः परिकीर्तितः ॥

**अर्थ** – दुकराभाशेन तोंड, माजर हें वाहन, गोरो वर्ण, चार भुजांची, तीन हातांनी सूत्र, वज्र आनी अंकूश धरपी आनी चवथो हात अभयमुद्रेंत अशी पुनर्वसूची आकृती करची.

– कों. वि. सं. मं.

**पुनव :** ज्या दिसा पुराय चंद्रीम दिसता ती वा शुक्ल पक्षांतली निमाणी तीथ. ह्या दिसा चंद्र सोळा कलांनी परिपूर्ण जाता देखून हे तिथीक पुर्णिमा वा पुनव अशें म्हण्टात. तिकाच पूर्णमासी, पौर्णमासी वा पौर्णिमा अशींय नांवां आसात. पूर्णमासी ह्या शब्दाची व्याख्या हेमाद्रीन अशी दिल्या –

पुर्णमासो भवेद् यस्यां पूर्णमासी ततःस्मृता ।

**अर्थ** – जंय मास पुराय जाता ती पुर्ण मासी. मास ह्या शब्दाचो अर्थ चंद्र असोय जाता. देखून ज्या दिसा चंद्र पुराय दिसता ती पूर्णमास. पुनवेक चंद्राची तीथ मानतात. अनुमती आनी राका अशे तिचे दोन भेद आसात. जे तिथीक चंद्र एके कलेन उणो आसता तिका अनुमती आनी जे तिथीक चंद्र पुराय आसता तिका राका अशें म्हण्टात.

खरें मळ्यार पुनव हो एक खीण आसून त्या खिणाक चंद्रीम आनी सूर्य धर्तरेचे उरफाटे वटेन आसतात आनी तांचेमदलें अपगमन (धर्तरेवयल्यान मेजिल्ले तांचेमदलें कोनीय अंतर) १८०° आसता. पुनवेक धर्तरेचे वटेन आशिल्लो चंद्राचो अर्दो वांटो सुर्याच्या किरणांनी पुरायपणान पर्जळिल्लो आशिल्ल्यान चंद्रबिंब वांटकुळें दिसता. जे पुनवेक चंद्र, सूर्य आनी धर्तरी एके ओळींत येतात त्या दिसा चंद्रगिराण जाता. पुनवेचो खीण दर २९.५३ दिसांनी परत परत येता. ह्या काळाक मास वा म्हयनो अशें म्हण्टात. 'अवेस्ता' ह्या पारशी धर्मग्रंथांत चंद्रिमाक माह असो शब्द आसा.

पुर्विल्ल्या काळांत पौर्णिमान्त म्हयनो हो चांद्रमास समजताले अशें वैदिक साहित्यांतल्या उल्लेखावयल्यान दिसता. चांद्र वर्सांत बारा म्हयन्यांच्यो बारा पुनवो येतात आनी पुराय चंद्र ज्या नखेत्रा म्हऱ्यांत आसता त्या नखेत्रावयल्यान त्या म्हयन्याक नांव दिल्लें आसता. नखेत्राक पुराय चंद्र जेन्ना गुरून संयुक्त आसता तेन्ना ते तिथीक महापुनव अशें म्हण्टात. सोळा कलांउपरांतचें पुराय चंद्रदर्शन खुबूच शुभ मानतात. देखून पुर्विल्ल्या काळासावन त्या दिसा जायते धर्मीक विधी करपाची चाल आसा.

बारा म्हयन्यांत येवपी बारा पुनवेंचीं कृत्यां अशीं – चैत्र पुनवेक हनुमान जयंती, वैशाखी पुनवेक बुध्दजयंती, जेश्ठ म्हयन्यांतली पुनव ही वडापुनव. त्या दिसा बायलो उपास करून वडाची पुजा करतात. आशाढी पुनव ही गुरू पौर्णिमा आसून त्या दिसा गुरू पुजा करतात. श्रावणांतले पुनवेक उपाकर्म (श्रावणी) करतात. हेच पुनवेक रक्षाबंधन आशिल्ल्यान तिका राखी पुनव म्हण्टात. तशेंच त्या दिसा दर्याक नाल्ल ओंपतात. देखून नारळीपुनव (नारळी पौर्णिमा) आनी कांयकडेन त्या दिसा नवें जानवें घालतात देखून सुतांपुनव म्हण्टात. भाद्रपदांतले पुनवेक पितरांखातीर श्राध्द करतात. आश्विनांतले पुनवेक कोजागीरी पौर्णिमा म्हण्टात. कार्तिकी पुनवेक शंकरान त्रिपुराक मारिल्लो देखून तिका त्रिपुरी पौर्णिमा म्हण्टात. मार्गशीर्षांतले पुनवेक दत्तजयंती आसता, पौषांतले पुनवेक विष्णुची पुजा करतात. माघांतले पुनवेक तीर्थस्नान करतात. माघांतले पुनवेक शनी मेष राशींत तशेंच गुरू आनी चंद्र सिंह राशींत

आसल्यार त्या दिसाक व्हड पर्व मानतात. फाल्गुनी पुनवेक होळयेंची परब मनयतात.

बौध्द आनी जैन धर्मांतूय पुनवेक धर्मीक नदरेन खुबूच म्हत्व आसा. जैन लोक चैत्र आनी कार्तिक पुनवेक तीर्थयात्रा करतात. जाल्यार आशाढी आनी फाल्गुनी पुनवेक उपास करून जिनपुजा आनी जिनालयाचेर दिव्यांची आरास करतात.

– कों. वि. सं. मं.

## पुनाळकार, गणपत उर्फ दादा गोविंद : (जल्म : १९३२, बिठ्ठोण - बारदेस).

सुटकेझुजारी. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तो सुटके चळवळींत वांटो घेतालो. ९ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा ताका मुळगांव वाठारांत धरलो. ताका प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून १२ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १४ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

## पुरंदरदास : (जल्म : इ.स. १४८४; मरण : १५६४).

कर्नाटकांतलो एक म्हान संतकवी. हाचो जल्म महाराष्ट्रांत, पुण्याच्या लागसार आशिल्ल्या पुरंदरगडाचेर जालो अशें म्हण्टात. पूण कांय विद्वानांच्या मतान, कर्नाटकांत बेलारी जिल्ह्यांत हंपिलागसार जो पुरंदरगड नांवाचो गांव आसा थंय पुरंदरदासाचो जल्म जालो. हंपीलागसार कमलापूरांत मेळिल्ल्या एका ताम्रपटावयल्यान तो वसिष्ठगोत्री, यजुर्वेदी ब्राह्मण आशिल्ल्याचें कळटा.



ताच्या बापायचें नांव वरदप्पा नायक आनी आवयचें नांव लक्ष्मक्का वा कमलांबा आशिल्लें. ताचे बायलेचें नांव सरस्वती. तांकां एक धूव आनी वरदप्पा, गुरूअप्पा, अभिनवप्पा आनी मध्वप्पा अशे चार पूत आशिल्ले.

पुरंदरदासाचें नांव ताच्या आवय बापायन श्रीनिवास वा तिरूमलैयप्पा दवरिल्लें; पूण ताका तिमप्पा वा शिवप्पा अशेंय म्हण्टाले.

भुरगेपणांतूच ताणें विद्वानांकडल्यान संस्कृत आनी कन्नड भाशेचें अध्ययन केलें. संगिताचेंय शास्त्रशुध्द गिन्यान ताणें मेळयलें. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा ताचें लग्न जालें.

बापायचो सराफीचो वेवसाय ताणें बापायच्या मरणाउपरांत बरे तरेन सांबाळ्ळो. कुशळ रत्नपारखी म्हणून ताका खूब नामना मेळ्ळी. विजयनगराचो सम्राट कृष्णदेवराय हाच्या दरबारांत ताका खूब मान आशिल्लो. वेवसायांत ताणें खूब मान जोडलो पूण तो वृत्तीन सामको कंजूस आशिल्लो. ताची बायल मात दानी वृत्तीची आशिल्ली. एकदां तिणें आपली नाकांतली नथ काडून एका ब्राह्मणाक दान दिली. तेन्ना तिम्मपाक तिचो राग आयलो. त्या वेळार ईश्वरी चमत्कार जावन ती नथ परतून तिम्मपाक मेळ्ळी आनी सरस्वतीची अब्रू वांचली. ह्या चमत्काराक लागून तिम्मपान आपली धनदौलत याचकांक आनी गरीब लोकांक वांटून दिली. सर्वस्वाचो त्याग करून भिक्षेची झोळी घेवन तो भोंवपाक लागलो.

दासपंथाचो संस्थापक श्रीपादराय हाचो एक म्हान शिश्य व्यासराय हाणें इ.स. १५२५ वर्सा तिम्मपाक वैश्णव पंथाची दीक्षा दिल्ली आनी ताचें नांव पुरंदर विठ्ठल अशें दवरलें. तांच्या मठांतल्या सत्यधर्मतीर्थ नांवाच्या एका संतान ताका पुरंदरदास म्हळें आनी त्याच नांवान सगळे ताका वळखूंक लागले.

पुरंदरदासान संबंद भारताची तीर्थयात्रा करून सगळ्या तीर्थक्षेत्रांनी वास्तव्य केलें. थंयच्या देवांचेर पदां रचलीं. पंढरपूर क्षेत्रांतूय ताणें खूब तेंप वास्तव्य केल्लें.

पुरंदरदासान कन्नड भाशेंत खूब काव्यरचना केली. ताच्या पदांची संख्या ४,७५,००० आशिल्ली अशें म्हण्टात. पूण सद्या कांय हजारूच पदां आसात. तीं देवरनाम वा दासरपदगळू ह्या नांवान नामनेक पावल्यांत. त्या पदांतले उच्च, तत्त्वीक विचार लक्षांत घेवन व्यासरायान त्या पदांचो 'पुरंदरोपनिषद' म्हणून भोवमान केला. ताचीं सगळीं पदां रागबद्द आसून तांचे किर्तनां, सुळादी आनी उगाभोग अशे तीन वर्ग केल्यात. हीं सगळीं पदां ताल-लयबद्द आनी गेय आसात. किर्तनां हीं भक्तिगितां आसून तातूंत पल्लवी, अनुपल्लवी आनी चरण हे भाग आसात. ताच्या काळांत कर्नाटक संगिताक सामके वायट दीस आयिल्ले. पुरंदरदासान ताका शास्त्रशुध्द रूप दिलें. तेखातीर ताणें सगळ्या प्रचलीत रागांची रूपरेखा थारायली. संगिताच्या शिक्षणाखातीर ताणें स्वरावली, अलंकार, पिल्लारिगीत, धनरागगीत आनी प्रबंधांची रचणूक केली. त्यागराज, दीक्षितार, शामशास्त्री ह्या संगीतकारांनी पुरंदरदासाचे प्रेरणेनूच कर्नाटकी संगिताचो विकास केलो. त्यागराजाक पुरंदरदासाकडल्यानूच संगिताची स्वप्न - दिक्षा मेळिल्ली अशें म्हण्टात.

– कों. वि. सं. मं.

## पुरयत : धर्मीक कार्याचो मार्गदर्शक.

समाजांतल्या हेर वेव्हारा सारकेंच धर्मीक मळारय कर्मकांडाचे विधी आसतात आनी ते शास्त्रशुद्ध पद्दतीन करतले जाल्यार गिन्यानी आनी अणभवी जाणकारांची गरज लागता. पुरयताक हें गिन्यान आनी अणभव आसतात. अतीमानवी शक्तीकडेन वेव्हार करप मनशाचे कुवतीभायर आसता असो समज आसून, मानव आनी अती मानव हांचेमदीं संबंद प्रस्थापीत करपी मध्यस्त म्हणूनूय पुरयत ही संकल्पना मुखार आयल्या.

पुरयत हो शब्द नेतृत्व दिवप ह्या अर्थाच्या संस्कृत शब्दावयल्यान आयला.

**इतिहास –** भोवतेक सगळ्याच समाजांनी खंयच्या ना खंयच्या रुपांत पुरयत ही संस्था दिश्टी पडटा. मनीस कुळयेच्या सुरवेच्या दिसांनी

पुरयत ही संस्था आशिल्ली काय ना हाचे विशीं मतभेद आसले तरी धर्म हे संकल्पनेक सुरवात जायत सावन पुरयत ही संस्था अस्तिवांत आयल्या आसूं येता अशें भोंवतेकांचें मत आसा. पुरयतांचीं चित्रां आनी मूर्ती इतिहास प्रसिद्ध सुवातींनी मेळ्ळ्यात. महाभारत, रामायण ह्या काळांत राजपुरयत नेमपाची प्रथा आशिल्ली आनी राजाच्या मंत्रीमंडळांत ताका मानाची सुवात दिवप जाताली. पुरयत जावपी मनशाकडेन धर्मकांडाचें नेतृत्व करपाचे योग्यताये वांगडाच कूल, शील, विद्वत्ताय, सतगुण हेय गूण ताचे कडल्यान अपेक्षित आसतात. राजपुरयताच्या आंगांत ज्योतिश, राजकारण, कायदो, न्यायदान, शिश्टायकला सारकिल्ले गूण आसप अपेक्षित धरताले. तेभायर पुराणकथा, मंत्र, धर्मग्रंथ हांचें वाचन, मंदिराचें रक्षण सारकिल्लीं कामां ताचेकडल्यान अपेक्षित आसतालीं. पुत्रप्राप्ती खातीर पुरयता कडल्यान नियोग करून घेतिल्ल्याच्यो घडणुको धर्मीक वाङमयांत मेळटात.

पुरयत संस्थेच्या सुरवेच्या काळांत समाजाचे सगळेच घटक पुरयतपण करताले अशें दिसता. उपरांत श्रमविभागणेच्या तत्त्वानुसार पुरयतपणाचें काम संबंदीत विद्वान लोकांकडेन आयलें. ताचे फुडें वर्णाश्रमाचे विभागणेंत पुरयतपण ब्राह्मण वर्गाकडेन पावलें. संवसारांत भोवतेककडेन पुरयत पणाचें काम दादले मनशाकडेन आशिल्लें दिसलें तरी कांय लोकांमदीं हें काम बायलांनीय केल्लें दिश्टी पडटा.

आयच्या काळांत पुरयतपण वंशपरंपरेन येवनूय ताचें शास्त्रीय शिकप घेवप जाता. अशें शास्त्रीय शिकप दिवपी संस्था अस्तित्वांत आसात. गोंयांत धर्मपिठाच्या मठांनी तशेंच संस्कृत पाठशाळेंत पुरयतपणाचें शिकप दिवपाची वेवस्था आसा. पुजा-अर्चा करपी सर्वसादारण भट आनी पुरयत हांचेमदीं गोंयांत फरक करप जाता. वंशपरंपरेन थरावीक घरांतलीं धर्मकृत्यां करीत आयिल्ल्या भटाक त्या घराचो पुरयत म्हण्टात आनी घरांतल्या कर्त्या मनशाक येजमान म्हण्टात. त्या घरांतलीं सगळीं धर्मकृत्यां नेमिल्ल्या पुरयतान करचीं आसतात. दुसऱ्या कोणाची मदत घेवंची लागल्यार ताचेसंबंदी पुरयत येजमानाक मार्गदर्शन करता.

– वा. ल. वझे

**पुराणां :** इतिहासीक तशें अनइतिहासीक अशे हिंदू धर्मीक ग्रंथ. पुरा नवम् (म्हळ्यार पुर्विल्ल्या काळांतलें नवें) ह्या शब्दावयल्यान पुराण ह्या शब्दाची उत्पत्ती जाल्या. भोवतेक सगळ्या पुराणकर्त्यांनी पुराण हाचो संबंद प्राचीन कथा वा आख्यायिका सारकिल्ल्या पारंपारीक वाङमयाक लायला आनी सुरवेच्या काळांत विशेशण म्हणून वापरांत आशिल्ली ही संज्ञा उपरांत नाम जावन बसली. स्मृती आनी सूत्रकारांनी तीन वर्णांपुरतोच राखून दवरिल्लो धर्म सगळ्या वर्णांमेरेन पातळावपाचें काम पुराणांनी केलें. श्रुति आनी स्मृतीच्या भेदभावाची प्रतिक्रिया म्हणून पुराणांचो जल्म जाला आसूं येता. सदाचार, भावार्थ, नीत सारकिल्ल्या तत्त्वांचो प्रचार आनी प्रसार करपाक सगळ्यांक अवगत अशे सोंपे भाशेंतल्या पुराणांनी हातभार लायलो. हें करतना वैदिक धर्माच्या तत्त्वांकडेन खंयच तडजोड करीनासतना त्या धर्माची व्यापक जागृताय घडोवन हाडली. आयचे घडयेक लेगीत, सर्वसादारण मनशाक वैदिक धर्माची वळख करपाक वेदांपरस पुराणांच आदार करतात म्हणूं येता.

ऋग्वेदांत 'पुराण' हो शब्द पुर्विल्लो ह्या अर्थान आयला. तरी अथर्ववेदांत मात तो 'एक विशिश्ट विद्या' ह्या अर्थान आयला, अशें दिसता. मत्स्य आनी वायु ह्या पुराणांच्या मतान, ब्रह्मदेवान पयलीं पुराणांची निर्मिती केली आनी उपरांत ताच्या तोंडांतल्यान वेद भायर पडले. भागवताप्रमाण ब्रह्मदेवान एकेका तोंडातल्यान एक-एक वेद निर्माण केलो आनी उपरांत एकदम चारूय तोंडांतल्यान इतिहास पुराणांची निर्मिती केली.

विष्णुन व्यासाच्या रुपान अवतरून देवलोकांत आशिल्ल्या पुराणसाहित्याची १८ पुराणांनी विभागणी केली अशेंय एक मत मेळटा. ह्या मतावयल्यान पुराणांची उत्पत्ती दैवी मानतात. पयलीं शंबर कोटी श्लोकांचें एकूच पुराण आशिल्लें आनी उपरांत व्यासान चार लाख श्लोकांच्या १८ पुराणांनी विभागणी केल्या, असो उल्लेख मत्स्यपुराणांत मेळटा. तशेंच, सुरवेच्या अथर्ववेदा सारकिल्या ग्रंथांनी पुराण हो शब्द एकवचनी वापरिल्ल्यान सुरवेक एकूच पुराण आशिल्लें अशें कांय विद्वान मानतात. पूण हें एकवचन पुराण हो वाङमयाचो एक प्रकार ह्या अर्थान वापरलां अशें कांय जाणांचें मत आसा.

हरप्रसाद शास्त्रीच्या मतान वायुपुराणाच्या मूळच्या भागांत पुराणांची संख्या धा सांगिल्ली; पूण उत्तरकालीन परंपरेप्रमाण, भारतीय संस्कृतींत १८ हे संख्येक विशिश्ट म्हत्व आयिल्ल्यान महापुराणांचीय संख्या १८ चेर थिरावली अशें दिसता. तांचीं नांवां चडशा सगळ्या महापुराणांनी मेळटात तीं अशीं – ब्रह्म, पद्म, विष्णु, वायु, भागवत, नारदीय, मार्कंडेय, अग्नि, भविष्य, ब्रह्मवैवर्त, वराह, लिंग, स्कंद, वामन, कूर्म, मत्स्य, गरूड आनी ब्रह्मांड. कांय पुराणांनी वायुपुराणा बदला शिवपुराण आनी भागवतपुराणा बदला देवी-भागवत अशीं नांवां मेळटात. भागवताक 'वैष्णव -भागवत' अशेंय नांव आसा.

पार्जिटर हाणें शिव आनी वायु ह्या दोनूय पुराणांचो आस्पाव करून पुराणांची संख्या १९ आनी फार्कवर हाणें त्या एकुणिसांभितर हरिवंशाचो आस्पाव करून तीं २० अशी मानल्या. बदलत्या काळाप्रमाण आनी स्थानीक संप्रदायी तशेंच धर्मीक गरजे प्रमाण पुराणांचे मूळ संहितेंत बदल जायत गेले. पुराणांची श्लोकसंख्या १२ हजारांवयल्यान चार लाखांचेर गेली, हें भविष्यपुरणांचें मत हे नदरेन म्हत्वाचें. पुराणांच्या मूळ स्वरूपांत इतलो बदल जालो की आयचीं उपलब्ध पुराणां आनी त्याच नांवाचे पुर्विल्ले ग्रंथ हे दोनूय वेगवेगळे आसात, अशें मत मांडप जालें.

ज्या चडशा पुराणांनी, आदिपुराणांचो उल्लेख येता तीं व्यासोक्त पुराणां आसून, त्या पुराणांतल्यान इसवी सनाचे सुरवेक म्हळ्यार विक्रमादित्या उपरांत हालींचीं पुराणां तयार केल्यांत अशें वैद्य काळे हाचें मत आसा. खुबशा पुराणांतल्यान खूब साम्य दिसता. देखीक – मत्स्य आनी पद्म, वायु आनी ब्रह्मांड ह्या पुराणांनी उताऱ्याचे उतारे सारके मेळटात. हाचे वयल्यान, सुरवेक पुराणांचो एक ल्हान गट आशिल्लो. तातूंत १८ पुराणां नाशिल्लीं. उपरांत ह्या गटांतल्यान पुराणांचेच कांय अंश घेवन तांचो विस्तार केलो आनी सद्याचीं १८ पुराणां तयार जालीं.

बलदेव उपाध्याय हाणें काळाप्रमाण पुराणांच्यो तीन श्रेणी मानल्यात. वायु, ब्रह्मांड, मार्कंडेय, मत्स्य आनी विष्णुपुराण हीं पुर्विल्लीं म्हळ्यार इ.स. १ ते ४ ह्या शेंकड्यांतलीं आसून भागवत, कूर्म, स्कंद आनी पद्म हीं पुराणां मध्यकालीन म्हळ्यार इ.स. ५०० ते ९०० ह्या काळांतलीं आनी ब्रह्मवैवर्त, ब्रह्म आनी लिंग हीं आर्विल्लीं म्हळ्यार इ. स. ९०० ते १००० ह्या काळांतलीं आसात. आपस्तंबधर्मसुत्रान केल्लो भविष्य पुराणाचो आनी बाणभट्टान केल्लो वायुपुराणाचो उल्लेख अग्निपुराणान दंडीच्या काव्यादर्शांतल्यान घेतिल्ली म्हायती हांचेवयल्यान त्या त्या पुराणांचो काळ

## पुराणां

थरोवंक यैता. काळाप्रमाण बदलत गेल्ले पुराण संहितेंक लागून पुराणांचो निश्चीत काळ सांगपाक मेळना. पूण पुराणांतल्या आनी पुराणाभायल्या पुराव्यांनी पुराणांचो काळ थरोवंक आदार जाता. विशिश्ट पुराणांनी विष्णुच्या खंयच्या खंयच्या अवतारांची चर्चा आसा, तातूंत देशांतल्या खंयच्या खंयच्या जातींजमातींचे आनी वंशाचे उल्लेख आसात, हांचेवयल्यान काळाविशीं अदमास करूं येता.

पुराणां पांच लक्षणांनी युक्त आसतात, अशें खुबशा पुराणांनी आनी चड करून अमरकोशांत म्हळां. तीं पांच लक्षणां अशीं - सर्ग (निर्मिती), प्रतिसर्ग (प्रलयाउपरांत पुननिर्मिती), वंश (देवता, चंद्र-सूर्य हांच्या वंशांची म्हायती), मन्वंतरां (मनूचे विशिश्ट कालखंड) आनी वंशानुचरित वा वंश्यानुचरित (सूर्य, सोम ह्या क्षत्रीय वंशांतल्या व्यक्तींचे इतिहास). 'वंशानुचरित' हाचे बदला 'भूम्यादेः संस्थानम्' (भुगोल) असो पाठभेदूय मेळटा. पूण हीं पांचूय लक्षणां आस्पाविल्लें प्रत्यक्षांत एकूय पुराण ना. फकत विष्णुपुराणांत हीं पांच लक्षणां आसात पूण तातूंत हेर कांय विशय लेगीत आसात. पुराणांचे व्याख्येंत पंचलक्षणांसयत हेर विशयांचोय आस्पाव करून घेवपाखातीर भागवत आनी ब्रह्मवैवर्त हाणीं महापुराणांचीं लक्षणां धा आसता आनी उपपुराणांचीं पांच आसतात अशें म्हळां. भागवताच्या बाराव्या स्कंधांतलीं धा लक्षणां अशीं - सर्ग, विसर्ग (प्रलय, प्रलयाउपरांत पुनर्निर्मिती वा विंगड विंगड जिवांची निर्मिती), वृत्ती (उदर-निर्वाह), रक्षा (विश्वाची राखण करपाखातीर ईश्वरान घेतिल्ले अवतार), अन्तरां (मन्वंतरां), वंश, वंशानुचरित, संस्था (प्रलय), हेतू (निर्मितीक कारण थारपी अज्ञानी जीव) आनी अपाश्रय (जिवांचो आश्रय आशिल्लें ब्रह्म) भागवताच्या दुसऱ्या स्कंधांतलीं धा लक्षणां अशीं - सर्ग, विसर्ग, स्थान (वैकुंठविजय म्हळ्यार ईश्वराचो विजय), पोषण (भगवंताचो अनुग्रह), ऊती (कर्मवासना), मन्वंतरां, ईशानुकथा, निरोध (प्रलय), मुक्ती आनी आश्रय (परब्रह्म). पूण प्रत्यक्ष पुराणांनी मेळपी सगळ्या विशयांचो ह्या लक्षणांनी आस्पाव जायना.

खंयच्या पुराणान खंयचे देवतेक चड म्हत्व दिलां, तें पळोवन पुराणांचे वैष्णव, शैव, ब्राह्म अशे वर्ग केल्यात. मत्स्यपुराणा प्रमाण वैष्णव पुराणां हीं सात्त्विक; ब्रह्मदेव आनी अग्नी हांचें वर्णन करपी राजस; शिवाचें वर्णन करपी तामस आनी सरस्वती - पितर हांचें वर्णन करपी पुराणां हीं संकीर्ण आसात. तमीळ ग्रंथांनी आनी स्कंदपुराणांनी पुराणांचें शैव, वैष्णव, ब्राह्म, आग्नेय आनी सावित्र (सुर्याचीं) अशें वर्गीकरण मेळटा. गरूडपुराणान सात्त्विक पुराणांचे आनीक तीन प्रकार केल्यात, तातूंत मत्स्य आनी कूर्म हांकां सत्त्वाधम, वायुपुराणाक सात्त्विकमध्यम आनी भागवत, गरूड, विष्णुपुराण हांकां सात्त्विक - उत्तम म्हळां. पूण प्रत्यक्षांत कूर्म आनी वायु हीं पुराणां शैव आशिल्ल्यान ही विभागणी शास्त्रशुध्द म्हणूंक येना. पद्मपुराणान पुराणांचें वर्गीकरण केलां तें अशें -

**सात्त्विक पुराणां** - विष्णु, नारदीय, भागवत, गरूड, पद्म, वराह.

**राजस पुराणां** - ब्रह्मांड, ब्रह्मवैवर्त, मार्कंडेय, ब्रह्म, वामन, भविष्य.

**तामस पुराणां** - मत्स्य, कूर्म, लिंग, शिव, अग्नि आनी स्कंद.

व्यासान आख्यानां, उपाख्यानां, गाथा आनी कल्पशुध्दी ह्या विशयांच्या आदारान पुराणसंहिता तयार केल्यो. पूण पुराणांच्यो संहिता तयार जावचें पयलीं लोकसाहित्याच्या स्वरुपांतल्या पुराणांनी चड करून पुर्विल्लीं आख्यानां आशिल्लीं. स्वता पळयल्ले घडणुकेचें वर्णन हें उपाख्यान अशें एक मत आसा. वंश आनी वंश्यानुचरित हे पुराणांचे दोन म्हत्वाचे विशय आसात. हातूंत चडशीं क्षत्रियवंश आनी त्या वंशांतल्या राजांच्या चरित्रांचीं वर्णनां येतात. मत्स्य, वायु, ब्रह्मांड, विष्णु, भागवत, गरूड आनी भविष्य ह्या सात पुराणांनी राजवंशाची म्हायती आसा. राजधर्म, काव्यशास्त्र, छंदःशास्त्र, व्याकरण, आयुर्वेद, पशुवैद्यक, वृक्षायुर्वेद, धनुर्वेद, धातुशास्त्र, रत्नविद्या, शिल्पशास्त्र, नृत्य-संगीत कला, वास्तुशास्त्र, मूर्तीशास्त्र, ज्योतिष, गणित, सामुद्रिकशास्त्र ह्या विशयांची चर्चा खुबशा पुराणांनी आयल्या. पांयांक लेप लायतकच अर्ध्या दिसांत हजारांनी योजना चलूंक शकपाची अनुलेपनविद्या, वशीकरणविद्या, अंतर्धानविद्या, धन वाडोवन दिवपी पद्मिनीविद्या, स्वेच्छा-रुपधारिणीविद्या, त्रैलोक्यविजयविद्या अशा विंगड विंगड विद्यांची म्हायती पुराणांनी आयल्या. धर्म हें पुराणांचें एक लक्षण आशिल्ल्याचें मत जयमंगला टिकेंत आसा. सद्या उपलब्ध आशिल्ल्या पुराणांनी धर्मशास्त्रांतल्या विशयांची खूब चर्चा आसा. वैदिक धर्मांतल्या यज्ञ, होम सारकिल्या विधीचें म्हत्व उणें करून हिंदू धर्माक एक नवें मोडण दिवपाचें काम केलां. वैदिक मंत्रांवांगडा पौराणिक मंत्र वापराक लागले आनी देवपुजा, राज्यभिशेक, मुर्तिस्थापना अशी पौराणिक पद्दत फुडें आयली. पुराणांनी पुण्यप्राप्तीचे खूब सोंपे मार्ग दाखयले. तरातरांचीं व्रतां आनी उपासना सांगल्यो. उपासाचें म्हत्व वाडयलें.

तीर्थक्षेत्रांचो महिमा सांगपी स्वतंत्र माहात्म्यां खुबशा पुराणांनी आसात. भक्तीचें माहात्म्यूय पुराणांनी वाडयलें. जप, नामस्मरण, मूर्तिपुजा, देवळांची निर्मिती हांकां पुराणांतल्यान उर्बा मेळ्ळी. पूर्तधर्म म्हळ्यार तळयो, बांयो, धर्मशाळा निर्माण करून परोपकार करप पुण्यकारक आशिल्ल्याचें ताणीं सांगलें. अन्नदान हें सगळ्यांत पुण्यकारक मानून ताचें म्हत्व वाडयलें. श्राध्दांचीं आनी त्या वेळच्या अन्नदानांचीं वर्णनां केलीं. धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष हांचे विस्कटावणे वांगडाच चार वर्ण आनी चार आश्रम हांच्या कर्तव्यांची चर्चा केली. निश्काम कर्मयोगाचेंच म्हत्व सांगलें. ईश्वरी अवतारांचें वर्णन हो पुराणांचो एक म्हत्वाचो विशय आसा. विष्णु, शिव, ब्रह्मा, गणपती आनी सूर्य ह्यो पुराणांतल्यो म्हत्वाच्यो देवता आसात. सांख्य, योग, वेदान्त ह्या दर्शनांतल्या तत्त्वांचें विवेचनूय पुराणांनी आयलां. भागवत, पांचरात्र, पाशुपत, कपालिक, तंत्रीक ह्या संप्रदायांचीं वर्णनांय पुराणांतल्यान आयल्यांत. धर्मशास्त्रांतल्या ह्या विंगड विंगड विशयांची विस्कटावणी करतना शेंकड्यांनी पुराणकथांचो आदार घेतला. ब्रह्मांड रचना आनी भुगोल होय पुराणांचो एक म्हत्वाचो विशय. ताचेभायर स्वर्ग, नरक, ब्रह्मलोक, पितृलोक हांचींय वर्णनां पुराणांनी मेळटात.

पुराणांची उत्पत्ती दैवी आसून, पुराणां हीं वेदांभाशेनूच अपौरूषेय आनी अनादी आसात. वेदांपरस पुराणां श्रेश्ठ आसात. पुराण हो वेदांचो आत्मो आसा. श्रुतिस्मृती हे दोळे आसले जाल्यार पुराण हें काळीज आसा. पुराण आयकुपी मनशांचीं सगळीं पातकां नश्ट जातात अशी पुराणांची स्तुती केल्या. पुराण वाचता त्या मनशाक पुराणिक वा पौराणिक म्हण्टात. भारतांत शेंकड्यांनी वर्सांसावन पुराणिकान देवळांत जमिल्ल्या भक्तांसामकार पुराण वाचपाची प्रथा आसा.

अठरा पुराणांची म्हत्वाचीं खाशेलपणां अशीं आसात -

**ब्रह्मपुराण** - हें पुराण ब्रह्मदेवान दक्षाक सांगिल्ल्यान ताका ब्रह्मपुराण अशें नांव मेळ्ळें. पुराणांचे यादींत हें पुराण पयलें आशिल्ल्यान ताका 'आदिपुराण' आनी तातूंत सुर्याची उपासना वर्णिल्ली आशिल्ल्यान ताका 'सौरपुराण' अशींय नांवां आसात. आदीपुराण आनी सौरपुराण नांवाच्या आदिपुराणांसावन हें पुराण वेगळें आसा. ह्या पुराणांत २४५ अध्याय

आसून सुमार १४ हजार श्लोक आसात. तातूंत ओरिसांतलीं तीर्थक्षेत्रां, कृष्णचरित्र, सांख्यतत्त्वज्ञान, वैदिक ग्रंथांतलीं उपाख्यानां हे म्हत्वाचे विशय आसात. हें पुराण इ.स. च्या सातव्या-आठव्या शेंकड्यापयलीं तयार जावन धाव्या, बाराव्या आनी पंदराव्या शेंकड्यांनी तातूंत भर पडली. ह्या पुराणाचो कांय वांटो ओरिसांत, कांय वांटो दंडकारण्यांत तयार जालो आसुंये अशीं मतां आसात.

**पद्मपुराण** – ह्या पुराणांत ब्रह्मदेवान पद्मांतल्यान विश्वनिर्मिती केल्ल्याची कथा आशिल्ल्यान ताका पद्म हें नांव मेळ्ळां. वैष्णवपुराणांत हें सगळ्यांत म्हत्वाचें मानतात. ५५ हजार श्लोकांच्या ह्या पुराणांत सृश्ट, भूंय, सर्ग, पाताळ आनी उत्तर अशे पांच खंड आसून ताचे ६२८ अध्याय आसात. पद्मपुराण ह्या नांवाचीं दोन जैन पुराणांय आसात.

**विष्णुपुराण** – ह्या पुराणांत विष्णुभक्तीक खूब म्हत्व दिलां. राक्षसांचो पुर्वज पुलस्त्य हाचें वरदान मेळिल्ल्यान पराशरान हें पुराण रचलें अशें म्हण्टात. स अंशांनी विभागिल्ल्या ह्या पुराणांत १२६ अध्याय आसून, सद्याचे उपलब्ध प्रतींत सुमार स-सात हजार श्लोक आसात. हातूंत हेर आख्यानांवांगडाच कृष्णचरित्र आसा. विल्सनान ह्या पुराणाचो इंग्लीश अणकार केला.

**वायुपुराण** – प्रक्रिया, उपोद्‌घात, अनुषंग आनी उपसंहार ह्या चार पादांनी विभागिल्ल्या ह्या पुराणांत ११२ अध्याय आसून तांची श्लोकसंख्या सुमार ११ हजार आसा. हातूंत शिवचरित्राचें विस्तारान वर्णन आसून भुगोलीक वर्णनां खातीरूय हें पुराण प्रसिद्ध आसा.

**भागवतपुराण** – भागवतधर्माचें विवेचन करपी आनी सगळ्यांत श्रेश्ठ मानिल्लें हें पुराण खूब लोकप्रिय आसा. व्यासान आपलो पूत शुक हाका हें पुराण सांगलें अशें म्हण्टात. पूण बोपदेव नांवाच्या पंडितान तें बरयलां अशेंय एक मत आसा. हें पुराण दक्षिणेंत तमीळनाडूंत बरयलें अशें मत मेळटा. १२ स्कंधांनी विभागिल्ल्या ह्या पुराणांत १८ हजार श्लोक आसात. भक्ती, तत्त्वज्ञान हांचे नदरेन तें म्हत्वाचें आसा. ह्या पुराणाचेर सगम्यांत चड टिका आसात. प्रदेशीक आनी इंग्लीश भाशेंतूय ह्या पुराणाचे अणकार जाल्यात.

**नारदीय पुराण** – नारदीय पुराण, नारदपुराण आनी बृहन्नारदीय पुराण अशीं एकाच नांवाचीं तीन पुराणां मेळटात. हातूंतलें महापुराण खंयचें हे विशीं दुबाव आसा. हातूंत नारदान विष्णुभक्तीचें वर्णन केलां म्हणून तें नारदीय पुराण. दोन वांट्यांनी आशिल्ल्या ह्या पुराण्याच्या पयल्या वांट्यांत १२५ आनी दुसऱ्यांत ८२ अध्याय आसात.

**मार्कंडेयपुराण** – मार्कंडेय ऋषीन सांगिल्ल्यान ह्या पुराणाक हें नांव मेळ्ळां. १३७ अध्यायांच्या ह्या पुराणांत सुमार ६९०० श्लोक आसात. ह्या पुराणांत द्रौपदी, हरिश्चंद्र, ब्रह्मवादिनी मदालसा, कृष्ण, मार्कंडेय हांच्यो कथा आसात. अग्नी, सूर्य, देवी हांचीं स्तोत्रां आसून 'दुर्गासप्तशती' ह्या नांवाचें देवीमाहात्म्य १३ अध्यायांनी वर्णिलां. पार्जिटर हाणें ह्या पुराणाचो इंग्लीश अणकार केल्लो आसून सुरवेच्या कांय अध्यायांचो जर्मन भाशेंतूय अणकार जाला.

**अग्निपुराण** – अग्निन वसिश्ठाक सांगिल्ल्यान ह्या पुराणाक अग्निचें नांव मेळ्ळां. ३८३ अध्यायांच्या ह्या पुराणांत पंचलक्षणां आसात. पूण परा आनी अपरा विद्यांचें वर्णनूच म्हत्वाचें आसा. रामायण आनी महाभारताचें सार, बुध्दावतारा सयत हेर अवतार. ह्या विशयां वांगडाच छंद, व्याकरण, अलंकार, योग, ज्योतीश, मंदीरां, मुर्ती, धर्म हांचींय शास्त्रां हातूंत वर्णिल्यांत. हातूंत गीतासार आनी यमगीता आसून आयुर्वेद, झाडां आनी मोनजातीचे वैद्यक, रत्नपरिक्षा, धनुर्विद्या, मोहिनी आनी हेर कांय विद्या ह्या विशयांचें विवेचन आसा.

**भविष्यपुराण** – भविष्यकालीन घडणुकांचीं आनी व्यक्तींचीं वर्णनां हातूंत आशिल्ल्यान ताका 'भविष्यपुराण' हें नांव मेळ्ळां. हाचीं ब्रह्म, विष्णु, शिव, सूर्य आनी प्रतिसर्ग अशीं पांच पर्वां आसून १४ हजार श्लोकसंख्या आसा.

**ब्रह्मवैवर्तपुराण** – हातूंत, कृष्णान ब्रह्माचें विवरण केल्ल्याचें वर्णन आशिल्ल्यान हाका 'ब्रह्मवैवर्त' हें नांव मेळ्ळां. दक्षिणेंत हाका 'ब्रह्मकैवर्तपुराण' अशें म्हण्टात. 'आदिब्रह्मवैवर्त' ह्या नांवाचें एक प्राचीन पुराणूय मेळटा. हाचे २७६ अध्याय आसून १८ हजार श्लोक आसात. ब्रह्म, प्रकृती, गणेश आनी कृष्णजन्म अशा चार खंडांनी हें पुराण आसा.

**वराहपुराण** – वराह अवतारी विष्णुन हें पुराण पृथ्वीक सांगलें अशी समजूत आसा. हाचे गौडीय आनी दाक्षिणात्य अशे दोन पोटभेद आसात. हाचे २१८ अध्याय आसून २४ हजार श्लोकांचे उल्लेख आसा. पूण प्रत्यक्षांत १० हजार श्लोक उपलब्ध आसात. हातूंत मुखेलपणान मथुरामाहात्म्य, नचिकेताचें उपाख्यान हे विशय आसात.

**लिंगपुराण** – शिवान अग्निलिंगांत प्रवेश करून ह्या पुराणावतीन मोक्षाचें विवेचन केल्लें. हे समजुतीन हाका 'लिंगपुराण' हें नांव मेळ्ळां. ह्या पुराणाच्या पुर्वार्धांत १०८ आनी उत्तरार्धांत ५५ अध्याय आसात. श्लोकसंख्या ११ हजार आसून ब्रह्मांडरुपी लिंगाची उत्पत्ती, लिंगपुजा, शैवव्रतां, शिवाचे २८ अवतार, काशीचें वर्णन, तंत्रविद्या हे विशय मुखेल आसात. ह्या पुराणाक लिंगयतांचो एक मुखेल धर्मग्रंथ मानतात.

**स्कंदपुराण** – स्कंदान सांगिल्ल्यान ह्या पुराणाक हें नांव मेळ्ळां. सगळ्या पुराणांभितर हें पुराण आकारान व्हड आसून, हातूंत ८१ हजार श्लोक आसात. सनत्कुमार, सूत, शंकर, वैष्णव, ब्राह्म आनी सौर अशा स संहितांनी विभागिल्ल्या ह्या पुराणांत माहेश्वर, वैष्णव, ब्रह्म, काशी, रेवा, तापी आनी प्रभास ह्या सात खंडांतली आनीक एक विभागणी आसा. ह्या पुराणाचे सूतसंहितेंत ब्रह्मगीता आनी सूतगीता आसून रेवाखंडांत सत्यनारायणव्रताची कथा आसा.

**वामनपुराण** – हातूंत वामनअवताराचें वर्णन आसा. हें पुराण पुलस्त्य ऋषीन नारदाक सांगलां असो समज आसा. ह्या पुराणाचे उपलब्ध प्रतींत ९५ अध्याय आसून स हजार सुमार श्लोक आसात. कालिदासाचें 'कुमारसंभव' आनी वामनपुराण हातूंत खूब सारकेपण आसा.

**कूर्मपुराण** – विष्णुन कुर्मावतारांत इंद्रद्युम्न राजाक हें पुराण सांगलें अशी समजूत आसा. ह्या पुराणाच्या पुवार्धांत ५३ अध्याय आनी उत्तरार्धांत ४६ अध्याय आसून उपलब्ध ग्रंथांत ६००० श्लोक आसात.

**मत्स्यपुराण** – हें पुराण विष्णुन मस्त्य रुपान मनुक सांगलें अशें म्हण्टात. हाचे २९१ अध्याय आसून १४-१५ हजार सुमार श्लोक आसात. 'स्वल्पमत्स्यपुराण' ह्या नांवानूय हाचें संक्षिप्त स्वरूप मेळटा. ह्या पुराणांत पितृवंश, ऋषिवंश, राजवंश, राजधर्म, हिमालय, तीर्थ ह्या विशयांचें वर्णन आसा.

**गरूडपुराण** – ह्या पुराणाचे २६४ अध्याय आसून, ७ हजार श्लोक आसात. हाच्या पूर्वखंडांत व्याकरण, छंद, साहित्य, वैद्यक ह्या विशयांची म्हायती आसा.

**ब्रह्मांडपुराण** – ह्या पुराणाचे प्रक्रिया, अनुषंग, उपोद्‌घात आनी उपसंहार

अशे चार पाद आसून तातूंत १२ हजार श्लोक आसात. ह्या पुराणांत परशुराम आनी कार्तवीर्य हांचो संघर्श, ललीतादेवीचें आख्यान, क्षत्रिय राजवंशाचें वर्णन हे मुखेल विशय आसात. अध्यात्मरामायण हो ग्रंथ आनी ललीतासहस्त्रनाम, सरस्वतीस्तोत्र, गणेशकवच हे भाग ह्या पुराणांतल्यान घेतल्यात.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : उपपुराणां.

**पुरातत्त्वविद्या :** पुरातत्त्वविद्या हें उतर इंग्लीश भाशेंतल्या आर्किऑलॉजी ह्या शब्दावयल्यान घेतलां. तशें पळयल्यार आर्किऑलॉजी हें मुळावें ग्रीसी उतर. आर्किओ = पुर्विल्लो वा पोरणो आनी लोगोस = शास्त्र वा निबंध. शब्दासरसी हाचो अर्थ पुर्विल्लो इतिहास असो जाता. पूण हे नोंदींत ताचो सादारणपणान अर्थ मनीस जातीचे संस्कृतीयेचो विकास वा विकासाचो इतिहास असो घेतला. सुरवेच्या काळांतलें पुरातत्त्वीय संशोधन अशास्त्रीय तंत्राचेर फकत खाशेल्यो अशो वस्तू मेळोवपाच्या हेतान करतालें. पूण अठराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक सावन रीतसर उत्खनन करून ताचो साबार शास्त्रांच्या आदारान अर्थ लावन पुर्विल्लें संस्कृतायेचो अभ्यास करप होच मुखेल हेतू आसा. हातूंत साप आदल्या, म्हळ्यार २०,००,००० वर्सांपयलीं मनशान तयार केल्लीं फातरी हत्यारां ते हालींच्या तेंपार मातयेभरवण जाल्ल्यो वस्ती, ल्हानांतली ल्हान वस्त ते व्हड मशीन, तशेंच साप आदलें घर ते आतांचें देवूळ हांचो आस्पाव जाता.

पुरातत्त्वइत्यादिकवेत्ता (Archeologist) हाचें मुखेल काम वर्णन करप. तो ज्या उत्खननाचो अभ्यास करता, ताचें ताणें सुरवेक वर्गीकरण करचें पडटा. उपरांत मुलतत्त्व शोधन करून (analyse) निमाणेकडेन ताचें वर्णन करचें पडटा. पूण पुरातत्त्वइत्यादिकवेत्त्याचें म्हत्वाचें काम म्हळ्यार उत्खननाचो इतिहास सांगून ताचें म्हत्व पटोवन दिवप.

पुर्विल्ल्या सगळ्या तरांच्या अवशेशांचो अभ्यास मनशाच्या इतिहासाची उबारणी करचेखातीर आशिल्ल्यान, पुरातत्त्वविद्या हें इतिहासाक पावल दिवपी एक म्हत्वाचें साधन. पुरातत्त्वविद्या हें शास्त्र मनशाचे व्युत्पत्ते सावन घडत आयिल्लो विकास ल्हान-ल्हान पुराव्यासरशीं जाणून घेवपाक इत्सूक आसता. ताका लागून पुरातत्त्वविद्येचो आंवाठ वाडत वचून तिचें एक स्वतंत्र अशें शास्त्र निर्माण जाल्लें आसा. पुरातत्वविद्या मनशाच्या सांस्कृतिक चालीरितींचो अभ्यास करता. सांस्कृतिक पुराव्यांचो संस्कृतायेकडेन संबंद आसता. मनशान निर्माण केल्ल्या वा वापरिल्ल्या वा मनशाकडेन संबंद आशिल्लो सगळो पुरावो विंगड विंगड प्रकारांचो आशिल्ल्यान पुरातत्त्वविद्या आदल्या अवशेशांचो फकत वस्तू म्हणून अभ्यास करीना तर त्या वस्तूफाटले मनशाचे जिवीत पद्दतीचोय अभ्यास करता.

**पुरातत्त्वविद्येचो इतिहास :** इ. स. पयलीं सव्या शेंकड्यांत एका ॲसिरियी राजकन्येन आपल्या बापायच्या आदारान कांय सुमेरियी संस्कृतायेचे उत्खनित अवशेश उजवाडाक हाडिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. पूण पुरातत्त्वीय संशोधनाची खरी सुरवात युरोपांत फकत एक छंद म्हणून सोळाव्या शेंकड्यांत जाली. हेच विद्येक विसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दाकसावन शास्त्राची प्रतिशठा लाबली. ह्या शास्त्राचो मुखेल संबंद समन्वेशण आनी उत्खननाकडेन येता. सुरवेच्या काळांत पुरातत्त्वीय संशोधन फकत खाशेल्यो अशो वस्तू रितसर उत्खनन करून ताचो साबार शास्त्रांच्या आदारान अर्थ लावन पुर्विल्लें संस्कृतायेचो अभ्यास करप, हाचें म्हत्व ल्हव-ल्हव विकसीत जायत गेलें.

पुर्विल्ल्यो वस्तू एक नाद म्हणून एकठांय करपाच्या यत्नांक मध्ययुगांत खूब नेट आयिल्लो. पंदराव्या-सोळाव्या शेंकड्यांत सोबीत कलात्मक पुतळे, नाणीं, इत्सापत्रां आनी हेरांचो संग्रह करप हाका खूब म्हत्व आशिल्लें. पूण खऱ्या उत्खननाक सतराव्या-अठराव्या शेंकड्या आदीं सुरवात जाल्ल्याचे कांयच पुरावे मेळनात. इंग्लंड आनी स्विडनांत आदलीं स्मारकां आनी अवशेश हांची जतनाय घेवपाखातीर कांय कायदे केल्ले.

सतराव्या-अठराव्या शेंकड्यांनी जॉन ऑब्री, एडवर्ड ल्हाड आनी विल्यम स्टकली हाणीं इंग्लडांत पुरातत्त्वीय संशोधनाची आनी उत्खननाची बुन्याद घाल्ली अशें म्हणूं येता. अठराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दाकसावन युरोपी देशांनी आदल्यो वस्तू आनी स्मारकां हांचें संशोधन करपी साबार संस्था उबारिल्ल्यो. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत पुरातत्त्वीय संशोधनाक चड नेट आयलो. १८१६त सी.जे. टॉमसन हाणें अश्मयूग, ब्रॉंझयूग आनी लोह यूग अशा तीन युगांचें वर्गीकरण करून, मनशाचे संस्कृतायेचो विकास तीन थरांनी जाला हें दाखोवन दिलें. उपरांत यन्स यॉकॉप व्होर्सा हाणें ह्या तीन युगांचो बारिकसाणेन अभ्यास करून ताचे उपविभाग केले.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मदल्या तेंपार हॉलस्टॅटाक ब्रॉंझयुगीन अवशेश आनी स्वित्झर्लंडाक ला टेनाक लोहयुगीन अवशेश आनी नवाश्मयुगीन सरोवर घरांचो सोद लागलो. ह्याच काळांत युरोपांतल्या साबार देशांनी व्हड-व्हड वस्तु संग्रहालयांची स्थापणूक जाली. ताका लागून १८६७ त पॅरिसांत भरिल्ल्या पयल्या मानववंश शास्त्र आनी पुरातत्त्वीय परिशदेंत अश्मयुगासावन ते लोहयुगासावन मनशाचे संस्कृतायेचे थर, विकासाचे थर स्पश्ट करपाचे यत्न जाले. ह्याच शेंकड्यांत चार्ल्स लायल हाणें धर्तरी आनी मनीस हांचें आदलेंपण धर्मधुरीण मानतात, ताचेपरस खूब पोरणें आसा, हें मत मांडलें.

बुशे द पर्थ ह्या फ्रेंच संशोधकान ॲबव्हीलाक पुर्विल्ल्या रेंवेच्या आनी शेकऱ्याच्या थरांतल्यान पोरणी अश्मयुगीन हत्यारां सोदून काडलीं आनी मनीस जातीचो इतिहास खूब व्हड आसा, हाची जाणविकाय करून दिली. चार्ल्स डार्विन हाचे मीमांसे वरवीं मनशाची व्युत्पत्ती आनी विकास खूब पुर्विल्लो आसा हें दाखोवन दिता. ह्याच काळांत फ्रांस आनी इंग्लंड ह्या देशांनी विंगड विंगड प्रकारांची अश्मयुगीन हत्यारां आनी मातयेभरवण जाल्ल्या मोनजातींच्यो अश्मास्थी मेळ्ळ्यो. हांच्या आदाराचेर लॉर्ड ॲव्हबरी हाणीं अश्मयुगाचे विंगड विंगड उपकाल थरयले (पुर्वपुराणाश्मयुग, पुराणाश्मयुग, नवाश्मयुग) ह्याच शेंकड्यांत इजिप्त आनी मॅझोपोटेनियांत म्हत्वाचीं उत्खननां जालीं. इजिप्तांत त्या पुरातत्त्वीय संशोधनांत ऑग्यूस्त मार्येत, गास्तॉ मास्परो, फ्लिंडर्स पॅट्री आनी हेर तज्ञांनी व्हड काम केलें. अस्तंत आशियेंत सी. जे. रिच, पॉल बोट्टा, ऑस्टिन लेअर्ड, रोबर्ट कोल्डेवाय, लेनार्ड वुली आनी हेरांनी उत्खननां करून पुर्विल्ल्या संस्कृतायांच्या स्थळांचो पुरावो उजवाडांत हाडलो. इराक, इराण, सिरिया, लॅबॉनॉन, जॉर्डन आनी इस्त्रायल ह्या देशांनी पुर्विल्ल्या संस्कृतायेच्या साबार थळांचें उत्खनन जालें.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत विंगड विंगड प्रदेशांनी केल्ल्या उत्खननाक लागून उत्खननीत अवशेशांचें कालमान आनी सांस्कृतिक कालखंडाचो

काळ थरोवप हे दोन मुखेल प्रस्न उपरासले. ग्रीसांत हायन्रिख श्लीमान हाणें ट्रॉय ह्या नामनेच्या नगरीच्या उत्खननांत स्तर-विबद्ध कालमापनाचें तंत्र वापरलें. जाल्यार पॅट्री हाणें क्रमकालाची पद्दत आपणायली. विसाव्या शेंकड्यांत अस्तंत आशियेंत, भूंयमध्य प्रदेशांनी आनी युरोपांत खूब प्रमाणांत उत्खनन जालें. ह्याच शेंकड्याचे सुरवेक मोंहेन-जो-दाडो आनी हरप्पा ह्या उत्खननांत प्रागैतिहासिक संस्कृतायेचे पुरावे सांपडल्यात.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन ते आयजमेरेन पुरातत्त्वविद्येच्या मळार खूब विकास जाल्लो आसा. मनशाचे पुर्विल्ले संस्कृतायेचो इतिहास सोदून काडचेखातीर वा ताची तारीख थरोवपाखातीर विंगड विंगड शास्त्रज्ञांची आनी शास्त्र फांट्यांचो आदार घेवप हें विद्येचें मुखेल ध्येय थरलां. तशेंच कालमापनाची आधुनिक शास्त्रीय पद्दत, उत्खननाचीं आनी नोंदणीचीं साधनां आनी पद्दत, मातयेभरवण जाल्ल्या पुर्विल्ल्या अवशेशांचो शास्त्रीय साधनांवरवीं सोद, हवाई आनी सागरी छायाचित्रण आनी हेरांच्या पालवान पुरातत्त्वविद्येक शास्त्राची प्रतिश्ठा लाबली. शास्त्रीय पद्दतीवांगडा विंगड विंगड काळांतलें संस्कृतीक जिवीत कशें आशिल्लें तें जाणून घेवपाखातीर इतिहासतज्ञ, लिपिवेत्ते, मानववंशशास्त्रज्ञ, पुराणवनस्पतिविज्ञ, पुरायपर्यावरणतज्ञ, कलाभिज्ञ, हवामानतज्ञ, अभियंते आनी साबार शास्त्रज्ञांचो पुरातत्त्वीय संशोधनांत आदार घेवचो पडटा.

संस्कृतीक इतिहास रचचे खातीर पुरातत्त्वविद्येचो आदार घेवप हें आतां गरजचें साधन जालां. सादारणपणान पुर्विल्ले वसतीचें थळ कशें सोदून काडप आनी अमुकूच जाग्यार उत्खनन कशें करचें हे दोन प्रस्न सदांच सतायतात. हेविशीं पोरण्या थळांचो सोद कसो घेवंचो आनी हाचेखातीर खंयचें शास्त्रीय आनी हेर पद्दतीचो उपेग करप हाची म्हायती आसप भोव गरजेचें. खूब फावटीं, आदल्या थळांचो सोद अकस्मात लागता. रस्ते खण्टना, शेत नांगरतना वा घराची बुन्याद मारतना मातयेभरवण जाल्ल्यो आदल्यो वस्तू सांपडटात. कांय थळांचें पुर्विल्लेंपण त्या थळाविशीं भोंवडेकारांनी बरोवन दवरिल्ल्या वर्णनावयल्यान मेळटा. तशेंच पोरणे नकाशे वा चित्रां हांच्या आदारानूय सोद घेवपाक मेळटा. हालींच्या तेंपार हवाई छायाचित्रणाच्या आदारान पोरणे रस्ते, खारजां वा तटबंदी हाचो सोद लावपाचें काम युरोपांत नेटान चालू आसा. विद्युत् प्रतिरोध सर्वेक्षण, चुंबकीय सर्वेक्षण, पुर्विल्ल्या थळांच्या मातयेच्या नमुन्यांचें रसायनीक सर्वेक्षण, पराग पृथक्करण, जमनींत यंत्र आनी कॅमेरा हांच्या आदारान मातयेभरवण जाल्ल्या अवशेशांचीं छायाचित्रां घेवपी लेरिसी पारदर्शक आनी हेर सावन पद्दतींच्या आदारानूच अवशेशांचो सोद घेवपाक मेळटा. सागरी पुरातत्त्व हो पुरातत्त्वविद्येचो एक नवो फांटो निर्माण जाला. पाणव्हडीं आनी उदकांत वापरपाच्या खाशेल्या अशा कॅमेरांच्या आदारान दर्यांत बुडिल्ल्या आदल्या तारवांचो, तातूंतल्या अवशेशांचो वा पुर्विल्ल्या बंदरांचो सोद घेवपाक मेळटा. पुर्विल्ल्या वस्तूंचे अवशेश आशिल्लें थळ सांपडले उपरांत ते सुवातेर शास्त्रीय पद्दतीन उत्खनन कशें करचें, हांचेविशींची तंत्रीक उदरगत खूब जाल्ली आसा.

अठराव्या आनी एकुणिसाव्या शेंकड्यांत इजिप्त आनी ग्रीसांत जाल्लीं उत्खननां अशास्त्रीय स्वरुपाचीं आशिल्लीं. मुकादमाच्या हाताखाला जाय तशें खपून पोरण्यो वस्तू सोदून काडप तांचें प्रदर्शन घडोवन हाडप ही पद्दत त्या वेळार चालींत आशिल्ली. पूण आतां तज्ञ निर्देशकाचे देखरेखीखाला उत्खननांत मेळिल्ले दर एके वस्तूची नोंद करतात आनी उपरांत ते वस्तूचो बारिकसाणीन अभ्यास करतात. उत्खननाच्या दर एके थराचे नोंदीक खूब म्हत्व आसता.

त्या त्या थरांचो रीतसर अभ्यास करून ताचो रंग, पोत, दाटाय़ आनी ताचे घटक हांची नोंद करता. दर एका थरांत सांपडिल्ल्यो वस्तू वेगवेगळ्यो दवरतात.

– कों. वि. सं. मं.

**पुरावो कायदो :** पुरावो (Evidence) हें उतर लॅटीन 'एवीडॅर' ह्या उतरावयल्यान आयलां. उक्तें करून दाखोवप वा पळोवपाक नितळ करून दिवप असो ह्या उतराचो अर्थ जाता. ब्रिटिशांचे राजवटींत कितलोसोच तेंप मेरेन पुराव्या संबंदान पुराय वा पद्दतशीर तरेन कायद्याची संहिता बरोवन तयार केल्ली नाशिल्ली. सोडयल्ले खटले, तातूंतलीं तत्त्वां, समाजांत प्रचलीत आशिल्ल्यो रुढी आनी चालीरिती मतींत घेवन खटल्यांचें कामकाज चलतालें. हे पद्दतीक लागून खटल्यांचो निकाल लागपाक खूब कळाव लागतालो.

१८५३ वर्सा पुराव्याविशीं कांय तरतुदी संग्रहीत केल्यो. १८६८ वर्सा सर हॅन्री हाणें पुराव्या - कायद्या संबंदान मसुदो तयार केलो. पूण ताका संमती मेळ्ळिना. १८७१ वर्सा व्हायसरॉयच्या सल्लागार मंडळांतलो कायदो सल्लागार सर जेम्स स्टीफन हाणें पुरावो कायद्याचो नवो मसुदो तयार केलो आनी ताका १८७२ वर्सा सरकारान संमती दिली. होच भारतीय पुरावो अधिनियम. हातूंत १६७ कलमां आसात आनी तीं तीन खंडांनी विभागल्यांत. हो कायदो केले उपरांतच्या शंबर वर्सांनी तत्त्व वा तपशिलाविशीं म्हत्वाची दुरूस्ती करची पडलीना, हें ह्या कायद्याचें खाशेलपण.

न्यायालयामुखार येवपी पुराव्यांची वर्गवारी अशी आसता. १) लेखी वा तोंडी पुरावो. २) मुळावो वा दुय्यम पुरावो - मुळावो तोंडी पुरावो म्हळ्यार गवायान आपल्या दोळ्यांनी, कानांनी वा हेर इंद्रियांनी जाणिल्लें आनी दुय्यम तोंडी पुरावो म्हळ्यार दुसरे व्यक्तीच्या सांगण्याप्रमाण जाणिल्लें. मुळावो लेखी पुरावो म्हळ्यार मूळ कागदपत्र आनी दुय्यम लेखी पुरावो म्हळ्यार ताच्यो प्रति आसतात. ३) प्रत्यक्ष वा आयकल्लो पुरावो. ४) प्रत्यक्ष वा परिस्थितीप्रमाण पुरावो. उज्याचो पुरावो दिवपाखातीर उज्याचो जाळ वा इंगळे हो प्रत्यक्ष पुरावो आनी धुंवर हो परिस्थितीजन्य पुरावो. मनीस फट उलोवंक शकता पूण परिस्थिती फट उलयना. ह्या तत्त्वाप्रमाण परिस्थितीजन्य पुरावो चडशे फावट चड प्रभावी मानतात.

भारतीय पुरावो अधिनियमाच्या तीन खंडांतल्या पयल्या खंडांत वादतथ्यां (facts in Issue) आनी संबध्दतथ्यां (Relevant facts) हांचेविशीं पुराय चर्चा केल्ली आसा. पांच मुखेल विभागांनी तथ्यांची चर्चा केल्ली आसा ती अशी -

१. वादतथ्यांकडेन संबंदीत तथ्यां - वादतथ्यांची विसंगती दाखोवपी, ताच्या अस्तित्वाची वा अभावाची संभवनीयता वा असंभवनीयता दाखोवपी, तांचें स्पश्टीकरण वा वळख करून दिवपी, घडणुकांची सुवात वा वेळ निश्चीत करपी वा तांचो संबंद दाखोवपी, मनाची वा शरीराची स्थिती दाखोवपी कृती आपसूक घडून आयली काय जाय म्हणून केली, हें थरोवपाखातीर तशी कृती पयलीं केल्ली काय किदें हें सांगपी.

२. वादतथ्यांविशींचीं विधानां - हातूंत चड करून कबुली आनी कबुलीजबाब हांचो आस्पाव जाता. पक्षकारान केल्ली स्वताक मारक थारपी कबुली

संबध्द आसुनूय ती निर्णायक थारना आनी तेविशीं खुलासो करपाक मेळटा. स्वाधिकाराक बादा येवंची ना हे अटीचेर दिल्ली कबुली वापराक मेळना. पुलिसांमुखार वा तांच्या ताब्यांत आसतना केल्ले जबाब अग्राह्य मानतात.

३. न्यायनिर्णय – न्यायालयान एका खटल्यांत दिल्लो निवाडो फुडें उपरासपी समान परिस्थितीच्या खटल्यांत वापरपाक बंधनकारक आसता.

४. तज्ञाचीं मतां – पुरावो तथ्याविशींच आसपाक जाय असो नेम आसा. पूण कला, शास्त्र, हातबरप हे विशीं तज्ञांचें मत संबध्द आसा.

५. चारित्र्य – व्यक्तीचें चारित्र्य वादतथ्य आसल्यारूच तेविशींचो पुरावो ग्राह्य मानतात. पूण आरोपीचें चारित्र्य बरें आसल्यार आनी नुकसान भरपायेची रक्कम चारित्र्याचेर आदारिल्ली आसल्यार तेविशींचो पुरावो संबध्द आसता.

भारतीय पुरावो अधिनियमाचो दुसरो खंड शाबीत करपाविशीं आसा. शाबीत (Proof) करपाची गरज नाशिल्लीं तथ्यां म्हळ्यार दोनूय पक्षकारांक मान्य आशिल्ल्यो गजाली आनी न्यायीक दखल घेवंक मेळपी गजाली. अशो गजाली म्हळ्यार भारतांतले चालू विधी आनी सेनानियमावली, न्यायालयांच्यो मुद्रा, देशाचें अस्तित्व, नांव आनी राश्ट्रध्वज, न्यायालयीन, येरादारीचे नेम, इतिहास, वाङमय, शास्त्र वा कला हेविशींचे ग्रंथ आनी नामनेचीं भौशीक तथ्यां ह्या गजालींची न्यायालयाक पुराव्याबगर कायदेशीर रितीन दखल घेवपाक मेळटा. हेर तथ्यां पुराव्यानूच सिध्द करूंक जाय. लेखी मजकुरा बगर सगळीं तथ्यां तोंडी पुराव्यान सिध्द करपाक मेळटात. पूण तो तोंडी पुरावो आयकल्लो आसूंक फावोना; मुळावो आसपाक जाय. लेखी स्वरुपाचो पुरावो पटोवन दिवपाक लेखी प्रत न्यायालयांत दाखल करची पडटा. तो उपलब्ध नासत जाल्यार वा प्रतिपक्षाकडेन आसल्यार दुय्यम पुराव्याचो उपेग करचो पडटा. दुय्यम पुरावो म्हळ्यार सयो-शिक्के ताडून पळोवप वा यंत्रीक क्रियेन तयार केल्ल्यो प्रती वा मूळ मजकूर वाचिल्ल्या मनशाची गवाय. भौशीक दस्तऐवजाचो (Public Documents) मजकूर निशाण्यो आनी शिक्क्यांच्यो प्रती (certified copies) दाखल करून पटोवंक मेळटात.

भारतीय पुरावो अधिनियमाच्या तिसऱ्या खंडांत पुरावो दाखल करप आनी ताचो परिणाम हेविशीं तरतुदी आसात. सिध्दीभार (Burden of Proof) आनी गृहीतकां (Assumptions) हो तातूंतलो पयलो विशय आसा. खंयच्याय पक्षकारान पुरावो दिलोना जाल्यार कायद्याप्रमाण जो पक्ष हारता, ताचेर सिध्दिभार आसता. आपलेवटेन निवाडो जावपाक जाय अशें दिसपी व्यक्तीन संबंदीत तथ्यां सिध्द करपाक जाय. आरोपीच्या निरपराधीपणाविशीं गृहीतक आसा. गुन्यांव पटोवन दिवपाची सगळी जापसालदारकी फिर्यादी पक्षकाराचेर आसता. जे व्यक्तीकडेन ताबो आसा तो धनी अशीय एक गृहीत गजाल आसा. वैवाहिक जिणेंत वा घोव-बायलेमदीं फाटाफूट जातकच २८० दिसांभितर जल्मल्लें भुरगें त्याच घोव-बायलेपसून जल्माक आयलां अशें गृहीतक आसा. गर्भ-धारणेवेळावयल्या काळांत, त्या जोडप्याच्या मिलनाची अशक्यताय दाखयल्यारूच तातूंतल्यानच सुटका जावं येता. कांय तथ्यां खरीं आसलीं, तरीं तीं मुखार मांडपाक मेळनात. एके व्यक्तीच्या निवेदनाचेर विस्वास दवरून दुसरी व्यक्ती वागली आनी हाका लागून ते दुसरे व्यक्तीचेर बाधक परिणाम जालो जाल्यार निवेदन फट अशें म्हणपाक पयले व्यक्तीक बंदी आसा. हाका प्रतिष्टंभ (Estoppel) अशें म्हण्टात.

तथ्यसिध्दीखातीर गवायांचो आंकडो कितलो आसपाक जाय, हाचेर बंधन ना. पिराय कितलीय आसूं, शारिरीक आनी मानसीक अवस्था कशीय आसूं पूण प्रस्न समजून तर्कसंगत जाप दिवपी गवाय सक्षम अशें मानतात. बरप आनी कुरवांच्या आदारान मोनी व्यक्ती गवाय दिवपाक शकता.

पुरावो पटोवंच्या वेळार, न्यायालयांत दर एका प्रस्नाची जाप दिवंचीच पडटा. पूण लोकधारणेचे नदरेन कांय प्रस्नांक संरक्षण दिलां. न्यायाधिशाक न्यायालयांतल्या ताच्या आचरणाविशीं तशेंच घोव-बायलेचे जिणेंतल्यो ताणीं एकामेकांक कथन केल्ल्या गजालींविशीं सांगपाक तांचेर दबाब हाडूंक मेळना. अप्रकाशीत शासकीय कागद-पत्रांतल्यान मेळिल्ली म्हायती वरिश्ठांचे परवानगेबगर सांगपाक मेळना. सरकारी अधिकारी म्हणून तांकां विश्वासान दिल्ली म्हायती उकतावपाक त्या अधिकाऱ्यांचेर दबाव हाडूंक मेळना.

गुन्यांवाविशींची म्हायती सांगपी व्यक्तीक, ताचें नांव सांगपाक दंडाधिकारी, पोलिस जबरदस्ती करूंक शकनात. वेवसायाच्या निमतान वकिलांक मेळिल्ली म्हायती पक्षकारांचे परवानगेबगर उकती करूंक मेळना.

सुरवेक गवायाचो सरतपास (Examination in chief) उपरांत विरूध्द पक्षकारा कडल्यान उलटतपास (Cross examination) आनी ताचे उपरांत उलटतपासाविशीं स्पश्टीकरणाखातीर फेरतपास (Re-examination) हो नेम घालून दिल्लो आसा. सूचक प्रस्न (Leading questions) फकत उलटतपासणेंतूच घालपाक मेळटात. गवाय पयलीं कथन केल्ली गजाल ताका विरोध करपाक वा खरेंपण ताडून पळोवपा खातीर वापरपाक मेळटा. असभ्य आनी अपप्रचाराक प्रस्न विचारपाक न्यायालय बंदी घालूंक शकता.

न्यायालयामुखार दाखल केल्लो पुरावो तपासून पळोवपाची आनी योग्य त्या पुराव्याची निवड करून निवाडो दिवपाची जापसालदारकी आनी अधिकार न्यायाधिशाकडेन आसतात.

– अमोल थळी

**पुरूम :** मणिपूर राज्यांतली एक आदिवासी जमात. हे जमातीचे पोरणे कुकी आनी नवे कुकी अशे दोन पोटभेद आसात. पोरणे कुकींत ज्यो तेरा टोळयो आसात तातूंत पुरूम हे टोळयेचोय आस्पाव जाता. इंफाळ देगणाचे उदेंतेक पुरूमांचीं चार खेडीं आसात. पुरूम खुलेन सगळ्यांत व्हड आनी पोरणें खेडें आसा. तशेंच पुरूम टंपक, पुरूम चंगनिंग लाँग, पुरूम चुंबांग हीं हेर तीन खेडीं आसात. दरेका खेड्याचो एक मुखेल अधिकारी आसता. ताका पिपू म्हण्टात. तशेंच, दरेका खेड्यांचे समाजीक, धर्मीक सुवाळे आनी परबो आसतात. पुरूमांच्या खेड्यांत हेर टोळयांक रावपाक मेळना. ते लोक नवें खेडें वसयतना सोमार दीस पळोवन विधीपुर्वक सुवात वेंचतात.

सगळ्या पुरम खेड्यांनी लमण आनी रूइशांग अशो दोन भौशीक सुवाती आसतात. लमण हें नुंगचुंगवा ह्या देवाचें आनी धर्मीक कार्याचें स्थान आसता आनी रूइशांग हें ग्रामपंचायतीचें कार्यालय आसता. हे लोक गांवांतल्या श्रेश्ठ लोकांचें यादस्तीक म्हणून खेड्याचे वेशीर चवकोनी उंचवटे बांदतात. गांवांत मदीं तांचीं भौशीक बांय आसता.

गृहप्रवेशाच्या दिसा घरांतलो जाण्टो मनीस देवाच्या नांवान जमनीर

सोरो ओतता आनी उपरांत सगळ्यांक सोरो पियेवपाक दिता. खेड्यांतलें मुखियाचें घर कोंड्यांचें आनी व्हड आसता. हेर लोकांचीं घरां कुडाचीं आसतात. घराक फाटलें फुडलें दार आसता पूण भितर कुडी नासतात.

हे लोक मोटवे आनी तांबशा गोऱ्या वर्णाचे आसतात. ते पुरूम वा मैथेयी भास उलयतात.

पुरूम दादले-बायलो हड्डुया पसून पोंवटच्यांमेरेन एकूच वस्त्र गुठलायतात. दादले केन्नाकेन्नाय पगडे भशेन कपडो माथ्याक बांदतात. दादले बायलो आंगार चादर घेतात. बायलो तरातरांचे हार आनी मुदयो घालतात. नाचाच्या वेळार भेंडाक कापडी पटो बांदून रानटी फुलांनी आपलें शरीर सजयतात.

हे लोक गाय-म्हशीचें दूद पियेनात. खावपाखातीर ते जनावरांच्या मासाचो उपेग करतात. तो तांचो मुखेल आहार आसता. चडशा धर्मीक विधींक भुरग्याचें जावळ काडटना वा कोणूय मरतकच दुकराचें मास खातात.

पुरूम लोक चड करून कृष्ण, महादेव, राम, दुर्गा, काली, यम ह्या देवांकूय भजतात. तांचे मदीं कुलदेवाक चड म्हत्व आसता. मुंगचुंगबा हो तांचो ग्रामदेव आसून, वर्सांतल्यान दोन खेपे तांचो उत्सव मनयतात. लाहोल हें भूत गांवचें राखणदार आसता. साबुहाँग ही तांची देवता लक्ष्मीस्वरूप आसता. सूर्य आनी चंद्राक ते घोव-बायल कश्ये मानतात. ह्या लोकांचेर वैष्णव धर्माचो प्रभाव आसा. वर्सांतल्यान एक फावट ते पितृपुजा करतात आनी पितरांक दुकराच्या मासाचो निवेद्य दाखयतात.

पिरायेंत येतकच चले-चलयांचीं लग्नां जातात. एकाच कुळांत लग्न संबंद जायनात. पुरूम लोकांत भोवपत्नीकत्वाची चाल आसली तरी ते एकापरस चड बायलो करिनात. लग्नां चड करून सोमारा जातात. लग्न थरतकच न्हवऱ्याक लग्नापयलीं तीन वर्सां मांवाम्हऱ्यांत काम करचें पडटा. ह्या तीन वर्सांमदीं तांचो शरीर संबंद जावपाक दिनात. लग्न जातकच पांच दीस न्हवरो व्हंकलेगेर रावता आनी सव्या दिसा आपल्या घरा वता. पुरूम लोकांमदीं घटस्फोट घेवपाची चाल आसा. पूण वांझपणाक लागून घटस्फोट दिवपाक मेळना. घटस्फोटाची परवानगी पंचायती कडल्यान घेवंची पडटा.

लग्न जातकच चले वेगळे रावतात. फकत धाकटो चलो आवय-बापायम्हऱ्यांत रावता. बापायचे इस्टेटीचे सारके वांटे करतात पूण धाकट्या पुताक इल्लो चड वांटो मेळटा.

बाळंटेरा वेळार बाळंतिणीची आवय सोडल्यार दुसऱ्या गोत्राचे बायलेक घरांत दवरिनात. वेणो सुरू जातकच मैपी नांवाचो भगत घराच्या दारांत सूर्य-चंद्राक पांच केळीं आनी मूठभर तांदूळ ओंपून बरे भाशेन सुटका जावंचेखातीर बाळंतिणीच्या माथ्यार मंत्र मारता. भुरग्याची नाळूय तोच कापता. तिसऱ्या दिसा भुरग्याक नांव दवरतात.

दुश्ट भुतांक लागून सगळ्यांक मरण येता असो पूरूम लोकांचो समज आसा. मडें पेटयेंत घालून पुरचे पयलीं एका दुकराक बळी दितात. उपरांत मरणाक आयिल्ल्या सगळ्या लोकांक सोरो आनी दुकराचें मास वांट्टात.

शेती हो पुरूम लोकांचो मुखेल वेवसाय. तांदूळ हें तांचें मुखेल पीक. तशेंच, फळावळ, मको, कांदे, तीळ हींय पिकां ते काडटात. ते दोंगरी शेतीय करतात. दोंगरी शेतांत तीन वर्सां पीक काडटकच ते जमनींत पीक काडिनात. गाय, म्हशी, बैल, रेडे, दुकरां, सुणीं, मांजरां, कुकडां हे प्राणी ते पोसतात.

– कों. वि. सं. मं.

## पुरूषसूक्तविधी

**पुरूषसूक्तविधी** : ऋग्वेदाच्या धाव्या मंडलांतलें ९०वें सुक्त पुरूषसुक्त ह्या नांवान नामना आसा. ताचो कर्तो नारायण ऋषी आसून पुरुश ही ताची देवता. हाच्यो सोळा ऋचा आसात. ह्या सुक्तांत पुरूशरूप परमेश्वराची तोखणाय आसा. तेखातीर पुजा आनी अभिशेक हाचेखातीर पुरूशसुक्ताचो विनियोग करपाची पद्दत आसा. देवाचे षोडशोपचार पुजेंत पुरूषसुक्ताची एकेक ऋचा म्हूणन एकेक उपचार देवाक समर्पण करतात.

तैत्तिरीय आरण्यकांतूय पुरूषसुक्त आसून तातूंत अठरा ऋचा आसात. महाग्निचयनांत पुरूषरूप अग्निचें चयन करतकच ह्या सुक्तान ताचें उपस्थान करपाक सांगलां. पुरूषसुक्ताच्या आदारान विष्णु ह्या देवा खातीर एक स्वतंत्र याग सांगला ताका विष्णुयाग अशें म्हण्टात.

शांतीकमलाकरांत पुरूषसुक्ताविधी ह्या नांवाचे कांय विधी दिल्ले आसात ते अशे –

१. शुक्ल पक्षांतल्या एकादशी दिसा दंपत्यान उपास करून पुरूषसुक्तान विष्णुची पुजा करची. दुवादशी दिसा विष्णु खातीर पुरूषसुक्तान चरू शिजोवन हवन करचें. अशें केल्यार विष्णुभक्त असो पूत जाता. शंभरांनी चरूहोम केल्यार विष्णुपदाची प्राप्ती जाता.

२. पुरूषसुक्ताची एकेक ऋचा म्हूणन तिर्थांत न्हावप, उपरांत सगळीं पुरूषसुक्तां म्हणप, अशें केल्ल्यान सगळीं पापां नश्ट जातात.

३. एक म्हयनोभर फलाहार करून पुरूषसुक्ताचो जप करचो. सूर्याचें उपस्थान करप, निमाणे आज्यहोम करचो अशें केल्ल्यान साक्षात नारायणाचें दर्शन जाता.

– कों. वि. सं. मं.

## पुर्तुगाल

**पुर्तुगाल** : अस्तंत युरोपांतलें एक स्वतंत्र राश्ट्र. हो देश आमबेरीच्या द्वीपकल्पाच्या अस्तंत वाठारांत आसा. विस्तार ३६° ५७′ उत्तर ते ४२° ९′ उत्तर आनी ६° ११′ अस्तंत ते ९° ३०′ अस्तंत. आझोरिश आनी मादैर जुंव्यासयत वट्ट क्षेत्रफळ ९२,०७२ चौ. किमी. लोकसंख्या ९८,००००० (१९९१). हाचे दक्षीणेक आनी अस्तंतेक ॲटलांटिक महासागर तशेंच उत्तरेवटेन आनी उदेंते वटेन स्पेन हो देश आसा. लिस्बोअ ही राजधानी.

**भूंयवर्णन** – उत्तरे वटेन ऊंच दोंगरी वाठार जाल्यार दक्षीणे वटेन चड सकयलो वाठार अशी हांगाची भूंयरचणूक आसा. देशाक सुमार ८०० किमी. लांबायेची दर्यादेग आसा. उत्तरे वटेन ईशान्य-नैऋत्य दिकांनी पातळिल्लो पेनेहा, लारूको, नुगेरा, मारॅंओ, कारामुलू, मौतिमुरू, एश्त्रोला, ॲकॉर, लॉझँ हे सारक्यो पर्वतांवळी आसात. एश्त्रेला हें १,९९१ मी. उंचायेचें सगळ्यांत ऊंच तेमुक. दक्षिणे वटेनच्या वाठारांत चडशीं मळां आसात. ह्या वाठारांत मौशिकी आनी काल्देराओ ह्यो दोन पर्वतावळी आसात. दर्यादेगे कडल्यान पर्वतांवळी लागी आशिल्ल्यान थंय व्हडले कडे तयार जाल्यात. मीन्यो, दोरू, तेगस आनी ग्वाआना ह्यो ह्या देशांतल्यो चार मुखेल न्हंयो. सगळ्या न्हंयांचें मूळ स्पेनांतल्यान सुरू जाता. दोरू ही सगळ्यांत लांब न्हंय. तिची लांबाय पुर्तुगालांत ३२० किमी. आसा. हे भायर एश्त्रेला दोंगरांतल्यान भायर सरपी मौदेगु, व्होगा, सादू आनी तेगुश

न्हंयेची उपन्हंय झेझिरी ह्यो हेर म्हत्वाच्यो न्हंयो.

**हवामान** - हवामानाचे नदरेंतल्यान ह्या देशाचे तीन वांटे जातात. वायव्य वाठारांत पावसाचें प्रमाण चड आसा आनी हांगा शिंयाळे चड थंड आसतात. हांगाच्या दोंगरांच्या तेमकांचेर बर्फ आसता. ईशान्य वाठारांत शिंयाळो कडक आनी चड काळ उरपी आसता. तशेंच गिमांत चड गरमी आसता. दक्षीण वाठारांत उणो पावस, चड काळ गीम आनी मात्सो शिंयाळो अशें वातावरण आसा. जानेवारी म्हयन्यांत वायव्य वाठारांत तापमान ११° सें. जाल्यार ईशान्य वाठारांत ७° सें. मेरेन आसता. एश्त्रेला दोंगरा वाठारांत तापमान ०° सें. परस सकयल देंवता. ऑगस्ट हो म्हयनो चड गिमाचो. उत्तर वाठारांत पावसाचें प्रमाण १२५ सेंमी. ते १५० सेंमी., मध्य वाठारांत ५० ते ७० सेंमी. आनी दक्षीण वाठारांत ५० सेंमी. परस उणें आसा. वर्सुकी सरासरी पावस ८७.५ सेंमी.

**वनस्पत आनी मोनजात** - ह्या देशांत तरेकवार फुलझाडां आनी फळझाडां पळोवंक मेळटात. पायन रूखाच्यो तरेकवार जाती, तशेंच ओक, चॅस्टनट, लम, लिंडन, पॉप्लर, निलगिरी ह्यो वनस्पती सगळ्याक पातळ्ळ्यात. अस्तंत वाठारांत बूच ओक, जाल्यार सादू देगणांत सत्री पायन हो रूख सर्रास मेळटा. दक्षीणे वटेन बदाम, अंजीर हांचीं झाडां आसात. ऑलिव्ह रूख देशभर आसा.

हांगा रान बोकड, रानदुकर, हरणां, लांडगे, कोले, सोंशे तशेंच शेड्डे आनी सोरोपांच्यो विंगड-विंगड जाती आसात. सुकण्याचेय बरेच प्रकार हांगा दिश्टी पडटात. गिमाच्या दिसांनी स्थलांतर करपी आफ्रिकी सुकण्यांच्यो जाती हांगा येतात.

**इतिहास** - बाराव्या शतमाना सावन पुर्तुगाल ह्या देशाक स्वतंत्र अस्तित्व आसा. हाचे पयलीं ह्या वाठाराक स्पेन देशाचो एक भाग समजताले.

इ.स.प. २१८ ते २०१ वर्सांच्या काळांत प्युनिक झुजावरवीं रोमी सत्तेन जेन्ना कार्थेज चेर जैत-मेळयलें तेन्ना हांगाच्या उत्तर वाठारांत लुझितानी ह्या पंगडाचें राज्य चलतालें. रोमींवांगडा ह्या लोकांचीं खडेगांठ झुजां चलतालीं. विरीयातुस ह्या तांच्या फुडाऱ्याच्या यत्नांक लागून तांणी अँडेलुसिया मेरेनचो वाठार झुजांनी जिखिल्लो. इ.स.प. २७ वर्सा ह्या वाठाराक लुझितानिया हें नांव रूढ जालें पूण सद्या पुर्तुगाल आसा ताचेपरस हो वाठार मात्सो व्हडलो आशिल्लो आनी ताची राजधानी स्पेनांत मेरीदा नगरांत आशिल्ली.

इ.स.प. ४०९ त व्हँडाल, आलानी आनी सुडकी हे पंगड स्पेनांत घुसले. पूण तांचो लुझितानीयाचेर शेक चलता म्हणसर इ.स. ४१४ त हांगा व्हिसीगॉथ पंगडान तांचेर जैत मेळोवन आपली सत्ता चालू केली.

फुडें सातव्या शतमानांत हांगा अरब आनी मूर हांची इस्लामी राजवट आयली. हे राजवटीक विरोध करचेपासत स्पेन आनी पुर्तुगालांत बरींच ल्हान-व्हड राज्यां एकठांय आयलीं. हातूंतलें एक राज्य आपोर्तो. ताच्या पयलींच्या पोर्तस् ह्या नांवावयल्यान पुर्तुगाल हें नांव फुडें रूढ जालें.

पयलो अँरिकीश आफोंसु (११३९-११८५) हो पुर्तुगालचो पयलो स्वतंत्र राजा. ताणें ११४७ त लिश्बोआचेर जैत मेळोवन पुर्तुगेज सत्तेचें मुळावण घालें. ताच्या घराण्याची राजवट पुर्तुगालाचेर बरींच वर्सां चलली. १२७९ ते १३२५ मेरेन राजा आशिल्लो दाँ दिनीश हाणें आपले कारकिर्दीत राज्यांत बऱ्योच सुदारणा घडोवन हाडल्यो. अर्थीक स्थिती सुदारपा वांगडाच ताणें पुर्तुगाल देशाचें गडगंज नावीक दळ उबारलें तशेंच कला आनी शिक्षणाकूय पालव दिलो. पुर्तुगालाचीं उपरांत काश्तिला वांगडा झुजां सुरू जालीं पूण इंग्लंडाच्या पालवाक लागून तातूंत पुर्तुगालाक जैत मेळ्ळें.

पुर्तुगालांत चवदाव्या शतमानासावन व्हड प्रमाणांत उदरगत जावंक लागली. पयलो दाँ जुआंव हाचे राजवटी खाला देशाची राजधानी तयार जाली आनी वेपार उद्देगांक बरेंच फाटबळ मेळ्ळें. ह्या काळांत शिक्षणाच्या मळार बरोच वावर जालो आनी दर्यावयल्या भोंवड्यांक सरकारान पालव दिवंक सुरवात केली. दाँ अँरिकीश हो दाँ जुआंव हाचो पूत. ताणें दर्यावयल्या भोंवड्यांनी चड लक्ष घालें. तो स्वताच एक दर्यावर्दी आशिल्लो. ह्या काळांत मादैर, पोर्तु सांतु, आझोरीश जुंवो, कानेरी जुंवो हांचो सोद दर्यावर्द्यांनी लायलो.

दाँ अँरिकीशा फाटल्यान सत्तेर आयिल्ल्या दुसऱ्या जुआवांचे कारकिर्दींतूय बरेच दर्यावर्दी दर्याभोंवड्यांखातीर मुखार आयले. बार्थोलोमे दियश हो १४८८ केप ऑफ गुड होप मेरेन पावलो. १४९२ त कोलंबस हाणें अमेरिकेचो सोद लायले उपरांत दर्या भोंवडेकार दर्यामार्गान जळींमळीं भोंवड्यो काडूंक लागले. १४९८ त वाश्कु द गाम हो पुर्तुगेज दर्यावर्दी आफ्रिके वटेंतल्यान भारताचे अस्तंत दर्यादेगेवयल्या कालिकत बंदरांत पावलो. १९१० त आफोंस द आल्बुकेर्क हाणें आदिलशहा कडसून गोंय हो प्रदेश पुर्तुगालाचे सत्तेखाला हाडलो. उपरांत दमण आनी दिव हे वाठार सत्तेखाला हाडले. १५०० पेद्रू काब्राल हाणें ब्राझीलाचो सोद लावन थंय पुर्तुगेज वसणुकेची स्थापणूक केली. आशिया, आफ्रिका ह्या खंडानीय पुर्तुगालाच्यो बरोच वसणुको तयार जाल्यो. उदेंते वटेंतलो मसाल्याचो वेपार ह्या काळांत पुरायपणान पुर्तुगेजांच्या हातांत आशिल्लो आनी ताचेवरवीं तांकां बरीच येणावळ मेळटाली. लिश्बोअ शार संवसारभर नामनेक पावलें. वसणुकांतल्यान मेळिल्ल्या उत्पन्नाक लागून पुर्तुगालांत अर्थीक उदरगत जाली आनी शिक्षण, कला, साहित्य, शास्त्र ह्या सारक्या गजालींक उर्बा मेळून त्या मळांचेर बरोच वावर जालो.

वेपार आनी उद्देग-धंदे वाडिल्ल्यान वसणुकांची राखण करचेपासत पुर्तुगालान बरेंच सैन्य उबारलें. पूण इंग्लंड, फ्रांस, हॉलंड हांचेलागी आपल्यो वसणुको तिगोवन दवरचेपासत झुजां करचीं पडिल्ल्यान ह्या देशाचें बळगें बरेंच उणें जालें. सोळाव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दासावन वसणुकांवयलो शेक उणो जाल्ल्यान पुर्तुगालाक वायट दिस आयले. भारतांत गोंय, दमण आनी दीव हेच वाठार पुर्तुगालाच्या हाताखाला उरले. वसणुकांतल्यान मेळपी येणावळीक लागून शेतवड आनी देशाभितरले हेर उद्देग हांचेकडेन लक्ष दिवंक नाशिल्ल्यान पुर्तुगालाची अर्थीक स्थिती इबाडली.

१५५७ त दाँ सेंबाश्तियांव राजा जालो. राजगादयेर आयले उपरांत ताणें मोरोक्कोचेर घुरी घाली. तो धर्मीक आशिल्लो आनी १५७८ त आल्काझारकीवीर नगरांत जाल्ल्या झुजांत ताका हार पत्करची पडली. ह्या झुजांत पुर्तुगालाचें बरेंच व्हड लुकसाण जालें. हाचे उपरांत १५८० त ताच्या घराण्याची सत्ता काबार जाली आनी स्पेनाचो राजा दुसरो फिलीप हाणें पुर्तुगालांत आपली सत्ता गाजयली. सेबाश्तियांवा उपरांत ताचो बापोलयो कार्दिनाल हॅन्री कांय काळ सत्तेर आशिल्लो पूण रोखडेंच पुर्तुगाल पुरायपणान स्पेनाच्या शेकातळा आयलें.

सुर्वेक बंडखोरांनी फ्रांस आनी इंग्लंडाचो पालव घेवन स्पेनाचे सत्तेआड झूज उबारलें. पूण तांकां आपल्या यत्नांनी जैत मेळ्ळेंना. १६४० वर्सा

लिश्बोआक बंड जालें आनी ड्यूक चवथो जुआंव पुर्तुगालाचे सत्तेर आयलो. ताचे उपरांत सवो आफोंसु सत्तेर आयलो पूण ताच्या राज्यकारभाराक विटून लोकांनी राज्यपद दुसरो पेद्रु ह्या ताच्या भावाकडेन दिलें. इतले मजगतीं १६६२ त राजकुंवरी कातारीना हिचें लग्न इंग्लंडाचो दुसरो चार्लस हाचे कडेन जाल्ल्यान ह्या दोनूय देशांमदले संबंध चड घट जाले.

फ्रेंच राज्यक्रांती वेळार पुर्तुगालांत तिचो बरोच परिणाम जाणवलो. १८०७ त फ्रेंच सैन्य पुर्तुगालांत पाविल्ल्यान राजघराणें ब्राझीलाक गेलें आनी थंयसावन राज्यकारभार चलोवंक लागलें. नेपोलियनाची हार जातकच पुर्तुगाल परतून स्वतंत्र जालो. ताचेपयलीं अठराव्या शतमानांतल्यो म्हत्वाच्यो घडणुको म्हळ्यार १७५५ वर्साचो लिश्बोआचो भूयकांप आनी मार्कीश द पाँबाल हाची राजवट.

एकुणिसाव्या शतमानासावन हांगा लोकशायेविशींच्यो कल्पना मूळ धरूंक लागल्यो. १६१५ त ब्राझीलाक स्वतंत्राय मेळ्ळी आनी दाँ पेद्रू थंयचो राजा जालो. १९०६ वर्सा राजा दाँ कार्लुश हाका राजपदा वयल्यान काडून ताचे सगळे अधिकार मुखेल प्रधान जुआंव फ्राँकु हाचे कडेन सोंपयले. १ फेब्रुवारी १९०८ दिसा राजा आनी राजकुंवर हांचे दोगांयचे खून जाले आनी दुसरो मानुएल राजा जालो. ताचे फाटलीं सुमार देडशें वर्सां स्पेन पुर्तुगालाक आपले सत्तेखाला हाडचेखातीर भोव यत्न करतालो पूण पुर्तुगालाक इंग्लंडाचो पालव आशिल्ल्यान ते यत्न फळादीक जावंक पावलेनात. ५ ऑक्टोबर १९१० दिसा राजेशाय सोंपली आनी प्रजासत्ताकाचो जल्म जालो. १९१३ त पोपा वांगडा पुर्तुगालान संबंद तोडले.

पयल्या म्हाझुजा वेळार पुर्तुगालाचें सैन्य जर्मनी आड झुजलें. ह्या झुजाचो पुर्तुगालाचेर व्हडलोसो ताण आयलोना, पूण देशाभितरल्या घडणुकांक लागून देशाची परिस्थिती इबाडली. १९११ ते १९१५ ह्या काळांत सात फावटीं सत्तांतर जालें. १९१५ त जनरल पिमँत द काश्त्रु हाणें हुकुमशाय हाडपाचो यत्न केलो पूण तो फळादीक जालोना. १९१७ त सिदोन्यू पायश पुर्तुगालाचो राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताणें देशाभितर सुदारणा हाडचे नदरेंतल्यान बऱ्योच कार्यावळी मुखार हाडल्यो, पूण १९१८ त ताचो खून जालो. देसभर हिंसाचार आनी अंदाधुंदी पातळ्ळी. १९२१ त प्रधानमंत्री आनी बऱ्याच हेर उंचेल्या पांवड्यांवयल्या मनशांचे खून जाले. ताचे फुडल्या पांच वर्सांनी ४३ मंत्रीमंडळां सत्तेर येवन गेलीं, देशाची अर्थवेवस्था इबाडली आनी दोन फावट लस्कराचें बंड जालें. १९२६ त सगली सत्ता लश्कराच्या हातांत गेली. मार्च १९२८ले वेंचणुकेंत भोवमत मेळून जनरल आंतोनियु कार्मोना राश्ट्राध्यक्ष जालो. उपरांत १९५१ मेरेन तो सत्तेर उरलो. देशाची अर्थवेवस्था सुदारपाचीं चिन्नां दिसनाशीं जाल्ल्यान कोईंब्रा विद्यापिठांतलो अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक आंतोनियु ओलिवैर द सालाझार हाका अर्थ मंत्री म्हणून नेमलो.

१९३२त सालाझार प्रधानमंत्री जालो. ताणें रोखडींच राज्यकारभाराचीं सगळी सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. १९३३त ताणें नवी राज्यघटना तयार करून भाशण, छापणावळ हांचेर कडक निर्बंध घाले. ह्या वेळार स्पेनांत यादवी झूज चलतालें तेन्ना पुर्तुगालान जनरल फ्रँको ह्या स्पेनाच्या हुकुमशाहाक फाटबळ दिलें.

दुसऱ्या म्हाझुजाचे सुर्वेक पुर्तुगाल तटस्थ आशिल्लो. पूण इश्ट राश्ट्रां झुजांत जैत मेळोवपाची आशा आशिल्ल्यान सालाझारान इंग्लंड आनी अमेरिकेक पुर्तुगालांत तेर्सेयरा, सांता मारिया ह्या जुंव्याचेर नावीक तळ उबारपाक मान्यताय दिली. दुसरे वटेन तिमोर ह्या उदेंते कडल्या पुर्तुगेज वसणुकेचेर जपानान घुरी घाली आनी आपली सत्ता स्थापली. ताका लागून सालाझारान इश्ट राश्ट्रांक चडूच फाटबळ दिलें. झुजा उपरांत, रशियेच्या विरोधाक लागून पुर्तुगालाक एकवटीत राश्ट्र संघटनेंत १९७५ मेरेन प्रवेश मेळ्ळोना. पूण ताचेपयलीं १९४९त पुर्तुगालाक नाटो संघटनेंत आनी १९६० त युरोपी उक्ते वेपार संघटनेंत प्रवेश मेळ्ळो.

पुर्तुगालाच्या सगळ्या वसणुकांभितर इतले मजगतीं स्वतंत्रतायेच्यो चळवळी नेट धरताल्यो. १९६१ त भारत सरकारान लश्कराच्या पालवान गोंय, दमण आनी दिव हे प्रदेश पुर्तुगालाचे सत्तेंतल्यान मुक्त केले. १९६८ सालाझारा फाटल्यान मार्सेलू कायतानु प्रधानमंत्री जालो. ताणें चडशीं सालाझाराचींच धोरणां मुखार चलयलीं.गुप्त पोलीस संघटनेक वापरून ताणें कामगार संघटनेचेर बरेच अत्याचार केले आनी निमाणें १९७४ त आंतोनियु स्पीनुला हाच्या फुडारपणाखाल लश्करी दलाचे संघटनेन रक्तहीन क्रांती करून सत्तांतर घडोवन हाडलें. स्पीनुला पांच म्हयने सत्तेर आशिल्लो आनी ह्या काळांत कामगार संघटना आनी कम्युनिस्ट संघटना बऱ्योच बळिश्ट जाल्यो. ह्याच काळांत आफ्रिकेंतले आंगोला, गिनी बिसाक, मोझांबीक आनी रीओमुनी हे देश पुर्तुगालाचे सत्तेंतल्यान स्वतंत्र जाले. एप्रिल १९७५ त वेंचणुको जाल्यो आनी मारियु सुआरीश हाच्या समाजवादी पक्षाक भोवमत मेळ्ळें, पूण लश्करी शासनान खंयच्याच पक्षाच्या फुडाऱ्याक सत्तेंत सुवात दिवंक नाशिल्ल्यान राजकीय पक्ष खुबळ्ळे. १९७६ त आंतोनियु यॅनिश हाका राश्ट्राध्यक्ष नेमलो आनी मारियु सुआरीश हाची प्रधानमंत्री म्हणून नेमणूक जाली. १९७७ त सुआरीश सरकाराचेर अविस्वास थराव मंजूर जाल्ल्यान ताचें सरकार पडलें पूण ताका परत आपोवन राश्ट्राध्यक्षान प्रधानमंत्री नेमलो. तरी पूण ताका थीर सरकार घडोवंक जमना जाल्ल्यान १९७८त कार्लुश द पिन्तु हाका प्रधानमंत्री केलो. १९७९ त सरकाराचें फुडारपण मारीया द लुर्दिश पिन्तासिलर हिचेकडेन दिलें.

एप्रिल १९७६ त जालें वेंचणुके उपरांत राजकी मळार स्थीरपण आयलें. पूण देशाची अर्थीक स्थिती इबाडिल्ले दशेंतूच उरली. हाका लागून सरकाराक विक्री दरांत, तशेंच लायट, उदक आनी टेलिफोन दरांनीय खूब वाड करची पडली. ऑगस्ट १९८७ त जाल्ले भौशिक वेंचणुकेंत सोशलीस्ट डॅमोक्रेटीक पक्षाक भोवमत मेळून ॲनीबल कावाको सिलवा हो प्रधानमंत्री जालो. फेब्रुवारी १९९४ त सोशालिस्ट डॅमोक्रेटिक पक्षाक परतून भोवमत मेळून ॲनीबल सिलवा दुसरे फावटी प्रधानमंत्री जालो. १६ फेब्रुवारी १९८६ त मारीयु सुआरिश हाका राश्ट्राध्यक्ष म्हणून वेंचून काडलो. जानेवारी १९९१ त तो पुर्तुगालाचो राश्ट्राध्यक्ष म्हणून परत वेंचून आयलो.

**राज्यवेवस्था** – पुर्तुगेज प्रजासत्ताकाची १९७६ तली राज्यघटना बदलून ते सुवातेर १९८२ त नवी राज्यघटना अस्तित्वांत आयली. हे घटनेवरवीं पुर्तुगाल हें एक सार्वभौम प्रजासत्ताक जालें. हांगाच्या नागरिकांक मुळावे हक्क आसात. राश्ट्राध्यक्षाची वेंचणूक दर पांच वर्सांनी जाता आनी राश्ट्राध्यक्ष प्रधानमंत्र्याची नेमणूक करता. हांगाची संसद एकाच घराची आसून तातूंत २५० प्रतिनिधींची वेंचणूक चार वर्सांखातीर जाता.

थळाव्या राज्यकारभाराचे वेवस्थेखातीर देशाचे १८ जिल्हे केल्यात. हांची फुडें ३५० पालिका अधिकारिणी आनी हेर थळाव्या राजकीय

संस्थांमदीं वांटणी केल्या. दर पांवड्यांचेर वेंचणुको जावन प्रतिनिधी वेंचप जाता.

**अर्थीक स्थिती -** पुर्तुगालाची अर्थवेवस्था बऱ्याच प्रमाणांत शेतवडीचेर आदारिल्ली आसा. १९३२ वर्सा सालाझार सत्तेर आयले उपरांत तो स्वता एक अर्थशास्त्रज्ञ आशिल्ल्यान हांगा पद्दतशीरपणान अर्थवेवस्था बांदावळीचे यत्न जाले.

हांगाचीं मुखेल पिकां म्हळ्यार मको, तांदूळ, गंव, राय, ओट, बार्ली, बटाट आदी. सैमीक गिरेस्तकाय आशिल्ल्या ह्या देशांत तरेकवार फळांचेंय बरेंच उत्पादन जाता. तांतलीं मुखेल म्हळ्यार सफरचंद, संत्रां, ऑलिव्ह. द्राक्षांची लागवड भरपूर जाल्ल्यान हांगा सोऱ्याचें उत्पादन बऱ्याच प्रमाणांत जाता. हांगाचे पोर्ट वाईन आनी मादीरा हे सोऱ्याचे प्रकार नामनेचे आसात आनी बरोच सोरो हांगासावन निर्यात जाता. ऑलिव्ह तेलाच्या उत्पादनांत पुर्तुगालाचो संवसारांत तिसरो क्रमांक लागता. गाय, बोकड हांचे तशेंच कोंबयेचे मास हांगा भरपूर प्रमाणांत मेळटा. दक्षिणेकडल्या वाठारांत बदाम आनी अंजीराची लागवड जाता.

हांगाचो खाणउद्देग पुरायपणान सरकारी नियंत्रणाखाला आसा. उत्तर पुर्तुगालांत टंगस्टन, बीड, लोखण, मदल्या वाठारांत अँथ्रेसायट आनी लिग्नायट कोळसो आनी दक्षिणे वटेन तांबे मेळटा. रानांचें प्रमाण भरपूर आशिल्ल्यान पायन, बूच, ओक, चॅस्टनट, निलगिरी ह्या झाडां पसून बरेंच उत्पादन मेळटा. टर्पेंटाइन उद्देगाकूय बरेंच म्हत्व आसा.

नुस्तेमारी होय हांगाचो एक मुखेल उद्देग. मातुझीन्युश, लिश्बोअ, सेतुबल आनी पोर्तीमँओ हीं मुखेल नुस्तेमारी बंदरां. दुसऱ्या महाझुजा उपरांत हांगा नवे-नवे उद्देगधंदे वाडीक लागले. तिखें, तारवां बांदावळ, रसायनां, कापड हे उद्देग मुखेल आसात. तेभायर इलॅक्ट्रॉनिक्स, संगणक, हेर मशिनांची बांदावळ ह्याय उद्देगांक सद्या बरीच पोसवण मेळ्ळ्या.

बँक ऑफ पुर्तुगाल ही हांगाची मुखेल बँक, तेभायर हेर बऱ्योच बँको आसात. इस्कुद हें हांगाचें अधिकृत चलन. लिश्बोआक मुखेल शॅर बाजार आसा. पुर्तुगालाचे आयात-निर्यात वेव्हार चडशे जर्मनी, फ्रांस, अमेरिका, ब्रिटन, स्पेन, इटाली आनी हॉलंड ह्या देशांलागीं जातात. जर्मनी, अमेरिका, हॉलंड ह्या सारक्या बऱ्याच देशांनी हांगाच्या उद्देगांनी भांडवल गुंथयलां. पर्यटनावरवींय ह्या देशाक बरेंच परकी चलन मेळटा.

**येरादारी आनी संचारण -** १९८५ मेरेन ह्या देशांत १८,८१५ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. मोटार गाड्यांचें प्रमाणूय हांगा बरेंच व्हड आसा. १९८६ मेरेन ३,५८८ किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आशिल्ले. हातूंतले ४५८ किमी. मार्ग ब्रॉडगेज आनी विजेचेर चलपी. पार्तेला (लिश्बोअ), पेद्रश रूब्रश (पोर्तु), फारो (आलगार्व), सांता मारीया (आझोरीश) आनी फंशाल (मादैर) हे हांगाचे मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ. लिश्बोअ शारांतल्या पॉर्तेला ह्या विमानतळा वयल्यान संवसारभर येरादारी चलता. ॲर पुर्तुगाल ही हांगाची अधिकृत हवाई संस्था.

ह्या देशांतलीं मुखेल बंदरां म्हळ्यार लिश्बोअ, लॅशॉयश, सेतुबल आनी फुंशाल. दोरू, तेगुश आनी ग्वादयाना ह्या न्हंयांतल्यान येरादारी बरीच जाता.

१९८५ मेरेन हांगा १,५६४ पोस्ट कचेऱ्यो आशिल्ल्यो. तेलेफोनश द लिश्बोअ इ पोर्तु ही सरकारी संस्था टेलिफोन वेवस्थेचेर नियंत्रण दवरता.

रादियु दिफुझांव पुर्तुगेझ रेडिओ कार्यावळी निर्मिता जाल्यार रादियु तेलिव्हिझांव पुर्तुगेझ टीवी कार्यावळी तयार करता. तेभायर रादियु रेनासेंस कडल्यान वेपारी कार्यावळींचे प्रक्षेपण देशभर जाता. १९८६ मेरेन हांगा ३७३ सिनेमाघरां आशिल्लीं, तशेंच ३३ दिसाळीं उजवाडाक येतालीं.

**लोक आनी समाजजीण -** पुर्विल्ल्या काळासावन फिनीशियी, ग्रीसी, कॅल्ट ह्या वंशांच्या लोकांनी हांगा येवन वसणुको उबारल्यो. ते हांगाच्या लोकांमदीं भरसून गेले. रोमी, स्पेनियी, विसीगॉथ, मूर, अरब आनी ज्यू हांचोय बरोच प्रभाव हांगाचे लोकजिणेचेर पडला. तेभायर स्पेनी आनी ब्राझिली तशेंच विंगड विंगड पुर्तुगेज वसणुकांतल्या लोकांचेय नमुने ह्या देशांत पळोवंक मेळटात. हांगाचो मुखेल धर्म म्हळ्यार रोमन कॅथलिक. तेभायर प्रॉटॅस्टंट आनी ज्यू धर्मांचेय कांय लोक हांगा मेळटात. पुर्तुगालाचेय बरेच लोक अमेरिका खंडांत आनी चड करून ब्राझिलांत देशांतर करतात.

स्पेनीश आनी पुर्तुगेज लोकांमदीं बरेंच सारकेंपण आसलें तरी दोगांयमदीं फरक बरेच आसात. हांगाच्या लोकांक नाच आनी पदां तशेंच हेर सांस्कृतिक कार्यावळींची भोव आवड आसा. ते धर्मीक वृत्तीचे, कश्टाळू आनी भावनाप्रधान आसात. स्पेनाभाशेन हांगाय पाड्या वांगडा झुजपाचो खेळ जाता पूण हांगा पाड्याक जिवेशीं मारिनात. पुर्तुगेज लोकांच्या जेवणाखाणांत नुस्तें, भाज्यो, फळां तशेंच गायचें आनी दुकराचे मास हांचो आस्पाव आसता.

रोमन कॅथलिक धर्माचो प्रभाव चड आशिल्ल्यान त्या धर्माचे सगळे सण आनी उत्सव हांगाचे लोक मनयतात. वास्तूकला, शिल्पकला, संगीत, लोकनाच हातूंत पुर्तुगेज लोक इतिहासकाळासावन वावर करतना दिसतात. देशांत वास्तूकलेचे बरेच नामनेचे नमुने पळोवंक मेळटात. पुर्तुगेज लोक पयलींसावन भारतीय, इराणी, अरब, चीनी तशेंच आफ्रिकी संस्कृतायांच्या संपर्कांत आयिल्ल्यान ह्या सगल्या संस्कृतायांची सुलूस हांगाच्या कलाप्रकारांनी दिश्टी पडटा.

फुटबॉल हो हांगाच्या लोकांचो सगळ्यांत चड आवडीचो खेळ.

**शिक्षण -** कांय वर्सां फाटीं हांगा साक्षरतायेचें प्रमाण बरेंच उणें आशिल्लें. पूण सद्या ह्या देशांत सुमार ८०% परस चड साक्षर लोक आसात. १९११ सावन हांगा सक्तीच्या शिक्षणाक सुरवात जाली. मुळावें शिकप फुकट आसता. मुळाव्या शाळांचे प्रमाण हांगा बरेंच चड आसा. सरकारी शाळांवांगडा खाजगी शाळाय हांगा आसात.

पुर्तुगालांत सिनेमा, नाच, संगीत, नाटक अशा कला प्रकारांचें शिक्षण दिवपी सुमार २७ विद्यालयां आसात. देशांत १३ विश्वविद्यालयां आसून हातूंतलीं आठ लिश्बोअ शारांत आसात. हातूंतलीं लिश्बोअ विश्वविद्यालय जें १९११ त स्थापन जाल्लें आनी कोईंब्र जें १२९० त स्थापन जाल्लें हीं दोन सगळ्यांत पोरणीं आनी नामनेचीं. तेभायर पोर्तु, आव्हैस, मिन्यो, ब्राग, एव्होरा, वोंत देल्गाहा हींय नामनेचीं.

विश्वविद्यालयां वांगडाच हांगा वाचनालयांचें तशेंच ग्रंथ संग्रहालयांचेंय प्रमाण बरेंच व्हड आसा.

**म्हत्वाचीं स्थळां -** पर्यटन उद्देग हो हांगाचो मूळ उद्देग जावपाक कारण म्हळ्यार हांगा आशिल्लीं सोबीत थळां. लिश्बोअ हें राजधानीचें शार आनी मुखेल उद्देगीक केंद्र. ब्राग शार थंयच्या इतिहासीक वास्तूंखातीर नामनेक पावलां. कोइंब्राक सगल्यांत पोरणें विश्वविद्यालय आनी ग्रंथालय वास्तू आसात. सेतुबल हेंय शार इतिहासीक वास्तूंक लागून जाल्यार ओपोर्तो हें शार वेपारी केंद्र म्हणून नामनेक पावलां.

– शैलेंद्र मेहता

**पुर्तुगेज भास :** पुर्तुगाल देशाची मूळ भास. ती इंडो-युरोपियन भाशा कुटुंबाच्या लॅटिन फांट्याची भास. पुर्तुगालाच्या वसणुक-कारभारावरवीं संवसारांत जायतेकडेन ही भास पावल्या. ब्राझील आनी पांच आफ्रिकी देस-आंगोला, मोसांबीक, गिनी बिराउ, सांव तोमे-प्रिंसीप आनी काबु वेर्द ह्या देशांची ती राश्ट्रभाशा आसून आफ्रिका, आशिया, अमेरिकेंतल्या कांय वाठारांनीय तिचो वापर जाता. पुर्तुगाला भायर पुर्तुगेजांच्या वसणुकांनी (आशिया, आफ्रिका, अमेरिका) ही राजकारभाराची भास आसली. आजूय ह्या कांय आदल्या वसणुकांनी ती संपर्क माध्यमाची भास म्हणून वापरप जाता. पुर्तुगेजीचो सगळ्यांत पोरणो लेखी पुरावो ११९२ वर्साचो. भारतांतल्या गोंय, दमण आनी दीव वाठारांनी पुर्तुगेज राजवटीच्या काळांत थंय पुर्तुगेज ही सरकारी कामकाजाची भास आशिल्ली. सुमार साडे चारशें वर्सांचे पुर्तुगेज राजवटीक लागून गोंयांतले मूळ कोंकणी भाशेर पुर्तुगेजीचो प्रभाव पडिल्लो दिश्टी पडटा. कोंकणी भाशेंत बरीच पुर्तुगेज उतरां घोळणुकेंत उरल्यांत. रोमी लिपींतले कोंकणी वाक्यरचनेचेरूय पुर्तुगेज भाशेचे वाक्यरचनेचो प्रभाव दिसता. तशेंच पुर्तुगेजांकडेन संबंद आशिल्ल्या भारतांतल्या साबार भाशांनी विशेश करून मराठी, कन्नड, मल्याळम, गुजराती, तमीळ सारकिल्या भाशांनी पुर्तुगेज उतरां मेळटात.

**भाशेची खाशेलपणां** – लिपी आनी ध्वनी – पुर्तुगेज भास बरोवपाखातीर रोमी लिपीचो उपेग करतात. हे लिपींत a, b, c, d, e, f, g, h, i, j, k, l, m, n, o, p, q, r, s, t, u, v, w, x, y, z हीं अक्षरां आसात. ह्या अक्षरांचे उच्चार अशे – a आ; b बे; cसे; d दे; e ए (उकतो); f एफ् (उकतो ए); g जे (j); h आगा; i ई; j ज्यॉत (उकतो ओ); k काप, का; l एल् (उकतो ए); m एम् (उकतो ए); n एन् (उकतो ए); o ओ (उकतो); p पे; q के; r एर, रे; s एस (उकतो ए); t ते; u उ; v वे; w दाब्ल्यु; x शिश्; y इप्स्लान; z जे; देशादेशाप्रमाण ह्या उतरांनी थोडोभोव फरक उरता.

रोमी भाशाकुळयेंतली पुर्तुगेज ही एक भास आशिल्ल्यान पुर्तुगेज भाशेचे वर्णमाळेंत उच्चारांचें वेगळेपण दाखोवपी कुरवो (accents) आसात. ह्यो कुरवो अशो –

I [/] (accento agudo) आसेन्तु आगुदु ही कुरू जेन्ना a, e आनी o ह्या स्वरांच्या माथ्यार दवरतात तेन्ना तांचो उच्चार उक्तो जाता. जेन्ना ही कुरू आय (i) आनी यु (u) ह्या स्वरांच्या माथ्यार दवरतात तेन्ना ह्या स्वरांच्या उच्चारांचेर भर दिवप जाता.

II [\] (accento grave) आसेन्तु ग्राव उभयान्वयी अव्यय 'a' (to, at, in) आनी उपपदांचें स्त्रीलिंगीरूप एकठांय येता तेन्ना उभयान्वयी अव्ययाचो क्षय ही कुरू करता.

देखीक : a = to/at/in; as = i às = to/at/in – तशेंच उभयान्वयी अव्यय आनी दर्शक सर्वनामां एकठांय येतात तेन्ना उभयान्वयी अव्ययाचो क्षय ही कुरू करता.

देखीक : a = to/at/in; as = हें, तें, às हें, तें a = to, at, in - aquele (पु) = तो; aquela (स्त्री) = ती; aqueles (भोववचन) = तीं; aquilo ते (अनिश्चीत).

a + aquele = àquele; a + aquela = àquela; a + aquelo = àquilo.

तेभायर ही कुरू आदल्यातेंपार कांय उतरांच्या मूळ कुसार भर दिवपाक वापरताले. हाची वळख करून दिवपाखातीर उपरांत तो भर दुसऱ्या अक्षराचेर पडलो तरी एक परंपरा म्हणून ती कुरू दिवप जाताली. आधुनिक काळांत हो पारंपारीक उपेग उणो जाला. कायकडेन तर सामकोच बंद जाला.

III [^] (accento circumflexo) आसेन्तु सिर्कुंफ्लक्सु a, e, o हांच्या धांपल्या उच्चाराचेर भर दिवपा खातीर वापरतात. देखीक – mês (म्हयनो)

IV [~] (tilde) ही कुरू अनुनासीक उच्चाराखातीर a आनी o ह्या स्वरांच्या माथ्यार वापरतात. देखीक – irmão = इरमांव, sermões = सेरमॉयश.

V [,] (cedilha) जेन्ना ही कुरू C ह्या अक्षराच्या खाला लायतात आनी ताच्या फुडें जेन्ना a, o, u हे स्वर येतात तेन्ना C चो उच्चार स जाता. Cedilha बगर C चो उच्चार ह्या संदर्भांत 'क' जाता.

देखीक – १. Casa काझ Casar काझार

२. Caça कास (hunting)

३. Coração कुरेसांव (काळीज)

४. Braço हात arm.

C उपरांत e वा i हे स्वर आयले जाल्यार C चो उच्चार स जाता.

देखीक – Cedilha सेदिल्ल्य

fácil फासील

**व्याकरण** – पुर्तुगेज भाशेंत नाम, सर्वनाम, विशेशण, क्रियापद, क्रियाविशेशण, उभयान्वयी अव्यय, उद्‌गारवाचक आनी संबंद शब्द हे शब्दप्रकार आसात.

**नाम** – नामांत पुर्लिंग आनी स्त्रीलिंग हीं लिंगां आनी एकवचन तशेंच भोववचन आसतात. पुरूशवाचक शब्द पुरूशलिंगी आनी स्त्रीवाचक शब्द स्त्रीलिंगी आसतात. o निमाणें आशिल्ले पुरूशलिंगी आनी a निमाणें आशिल्ले स्त्रीलिंगी आसतात. e वा व्यंजन निमाणें आशिल्ल्या शब्दांचे लिंग मात परंपरागत आसता हें वापरावयल्यान समजता. नाम स्वरात आसल्यार s (स) आनी व्यंजनांत आसल्यार es (एस) हे प्रत्यय भोववचनी लागतात.

**सर्वनामां** – सर्वनामां अशीं आसात –

कर्तृवाचक

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथमपुरूश | eu | nós |
| द्वितीय पुरूश | tu | vós |
| तृतीय पुरूश | ele, ela | eles, elas |

कर्मवाचक

| प्रत्यक्ष | | अप्रत्यक्ष | |
|---|---|---|---|
| एकवचन | भोववचन | एकवचन | भोववचन |
| me | nos | me | nos |
| te | vos | te | vos |
| o | os | the | thes |
| a | as | the | thes |

स्वामित्व विशेशण

| एकवचन | | भोववचन |
|---|---|---|
| पुर्लिंग | स्त्रीलिंग | |
| meu | minha | + s |
| teu | tua | + s |
| seu | sua | + s |

दर्शक सर्वनाम

| | एकवचन | | | | भोववचन |
|---|---|---|---|---|---|
| स्वताचें | पुरूशलिंग | este | स्त्रीलिंग | esta | + s |
| तुजेकडले | पुरूशलिंग | esse | स्त्रीलिंग | esse | + s |
| पयसुल्ले | पुरूशलिंग | aquele | स्त्रीलिंग | aquela | + s |

संबंदी सर्वनामque जो, जी; संबंद शब्दाउपरांतquem विशेशणवाचक पुरूशलिंग cujo, स्त्रीलिंग cuja भोववचन + s.

प्रस्नार्थक quem कोण, de quem कोणाचो, que कितें, qual खंयचो, quais खंयचे.

**विशेशण** - विशेशणां सादारणपणान नामाउपरांत येतात. आनी ताच्या लिंग वचनाप्रमाण - o निमाणें आशिल्ल्या पुरूशलिंगी विशेशणाचें स्त्रीलिंगी रूप o बदला - a दवरून जाता. ão निमाणें आसल्यार स्त्रीलिंगांत ã येता आनी - e निमाणें आसल्यार स्त्रीलिंगांत तेंच रूप उरता.

**क्रियापद** - पुर्तुगेज क्रियापदाचे तीन वर्ग जातात.

am -arमोग कर-प;Dev-er देणें आसप;Part-irवचपाक वच-प. फुडले देखींतser अस, estarअस, terलागीं अस haver लागीं अस ह्या सहाय्यक क्रियापदांचीं वर्तमानकाळांचीं रुपां आनी उपरांत am -ar मोग-कर ह्या धातूची वर्तमान, अपूर्णभूत, भूत आनी भविश्य ह्या काळांचीं रुपां दिल्लीं आसात.

| | | Ser | Estar | Ter | Haver |
|---|---|---|---|---|---|
| एकवचन | १ | Sou | estou | tenho | hei |
| | २ | és | estás | tens | hás |
| | ३ | é | está | tein | há |
| भोववचन | १ | Sómos | estamos | temos | havemos |
| | २ | Sois | estais | tendes | haveis |
| | ३ | São | estão | têm | hão |

am - ar
dev - er

| | | | वर्तमान | अर्पूण भूत | भूत | भविश्य |
|---|---|---|---|---|---|---|
| एकवचन | १ | Eu | amo<br>devo | amava<br>devia | amei<br>deví | amarei<br>deverei |
| | २ | Tu | amas<br>deves | amavas<br>devías | amaste<br>deveste | amaras<br>deverás |
| | ३ | Ele/ ela | ama<br>deve | amava<br>devía | amon<br>deven | amará<br>deverá |
| भोववचन | १ | Nós | amamos<br>devemos | amávamos<br>deviamos | amamos<br>devemos | amaremos<br>deveremos |
| | २ | Vós | amais<br>deveis | amáveis<br>devíeis | amastes<br>devestes | amareis<br>devereis |
| | ३ | Eles/ elas | aman<br>devem | amavam<br>deviam | amaram<br>deveram | amarão<br>deverão |

आत्मवेधी क्रियापदां कर्मस्थानार me, te, se, nos, vos, se ह्या रुपांचो उपेग करतात. सगळ्या क्रियापदांचे काळ ter ह्या क्रियापदांचीं रुपां धातूसाधिता वांगडा वापरून जातात. भूतकाळवाचक धातूसाधित -ar निमाणें आसपी धातूक-ado आनी हेर धातूंक-ido हे प्रत्यय लावन जातात.

**क्रियाविशेशण** - कांय क्रियाविशेशणां सिध्द आसात जाल्यार हेर विशेशणांच्या स्त्रीलिंगी रुपांक -mente हो प्रत्यय लावन साधप जातात.

**उभयान्वयी अव्यय** - e 'आनी'; mas 'पूण'; on 'वा'; porque 'कारण'; se 'जर'; quando 'जेन्ना'; para que 'म्हणून', 'हेखातीर' आदी.

**उद्‌गारवाचक** - ai 'आरेरे!'; perdão 'माफ करात!'; obrigado 'उपकार'.

- कों. वि. सं. मं.

**पुर्तुगेज साहित्य :** पुर्तुगेज साहित्याचो सगळ्यांत पोरणो लेखी पुरावो ११९२ त मेळटा. बाराव्या-तेराव्या शतमानांत चड करून भावकविता तशेंच धर्मीक आनी इतिहासीक गद्य साहित्याचो आस्पाव आशिल्लो. कांतीगश द आमिगु (मोग्यांचीं गितां), कांतीगश द आमोर (मोगांचीं गितां), कांतीगश द इश्कार्निउ इ मालदिझेर (उपरोधात्मक गितां) हे कांय गीतप्रकार आसून तांचेर प्रोव्हांसाल भाशेंतल्या भावकवितांचो प्रभाव दिश्टी पडटा. ही वेगवेगळ्या प्रकारांची भावकविता तीन संग्रहांनी संकलीत करून तांकां 'कांसिऑनैरूश' अशी सामान्य संज्ञा आसा. कांसिऑनैरूश द बिब्लिओतेक द आजूद हो तातूंतलो सगळ्यांत पोरणो गितांझेलो आसून हेर दोन झेल्यांचीं नांवां कांसिऑनैरूश द वातिकान आनी कांसिऑनैरूश द बिब्लिओतेक आसियॆनाल हीं हेर दोन नांवां आसात.

पुर्तुगेज भावकवींचे तीन प्रकार आशिल्ले.
१) प्रोव्हादोरिश (वयल्या वर्गांतले कवी). २) सेग्रेइश (सकयल्या कुळांत जल्मल्ले पुण अर्थजनाक लागून कविता करपी). ३) जोग्राइश (सामके सकयल्या कुळांतले चारण).

ह्याच काळांत पुर्तुगालाचो राजा दिनीश आनी बार्सीलुशचो काउंट प्रिन्स पेद्रु (१२८५-१३५४) ह्या भावकवींनी पुर्तुगेज साहित्यांत मोलादीक भर घाली. दिनीशान १२९० त पुर्तुगालांत पयलें विद्यापीठ स्थापन करून स्पेनिश, लॅटीन आनी अरबी भाशांतल्या व्हड ग्रंथांचे पुर्तुगेज भाशेंत अणकार करपाक जायतो वावर केलो. जायत्या कवींक आलाशिरो दिलो, आनी आपणेंय बऱ्यांतलें बरें काव्यबरप केलें. पुर्तुगालाच्या सुरवातीच्या गद्यलेखनांत मठाचे नेम, संतांचीं चरित्रां, क्रॉनिकॉइश वा इतिहासिक इतिवृत्तां, नोबिलिआरिउश (पुर्तुगालांतल्या सरदार घराण्यांचीं वंशवृत्तां) हांचो आस्पाव जाता. ह्याच काळांत शिलेदारी कादंबऱ्याकूय पुर्तुगालांत व्हड नामना मेळ्ळी. आमादिश द गोल ही सद्या स्पेनी भाशेंत उपलब्ध आशिल्ली नामनेची कादंबरी मूळ स्पेनी भाशेंत बरयल्ली अशें म्हण्टात. बार्सीलुसचो काउंट प्रिन्स पेद्रु हाची 'लिब्रु द लिन्याजेंश' (इंग्लीश - बुक ऑफ जिनिऑलॉजी) ह्या नांवान संकलीत केल्ली सरदार घराण्यांची बखर म्हत्वाची आसा.

चवदाव्या शतमानांत पुर्तुगेज कवितेक कांय प्रमाणांत अवकळा आयिल्ली. पूण पंदराव्या शतमानांत तातूंत नवो जोम आशिल्लो. ह्या भावकवितांचेर स्पेनि आनी इटालि कवितांचो प्रभाव आशिल्लो. ह्या शतमानांतल्यो चडशो कविता गार्सिअ द रॅझेन्द (१४७०-१५३५) हाणें कांसिऑनैरूश इॅराल (१५१६) ह्या नांवान संकलित केल्ल्यो आसात. हातूंत २८६ कवींच्यो १००० कविता संकलीत केल्ल्यो आसात. ह्याच काळांत दाँ दुआर्त ह्या पयल्या जुआंवाच्या पुतान लेआल कॉसेल्लयेरू (सुमार १४३०) हो नैतिक उद्‌बोधनात्मक ग्रंथ बरयलो. ह्या शतमानांतली इतिहास निर्मितीय म्हत्वाची आसा. फेर्नांद लोपिश (१३८०-१४६०) हो पुर्तुगालाचो एक व्हड इतिहासकार. ताणें पुर्तुगेज राजांचो इतिहास सुर्वेक

सावन राजा पयलो जुआंव हाच्या काळामेरेन बरयल्लो. आझुरारा आनी रुइ द पीना ले हेर दोन उल्लेख करपा सारके पुर्तुगेज इतिहासकार ह्याच काळांत जावन गेले.

पुर्तुगेज साहित्य इतिहासांत सोळावें शतमान हें अभिजात युग म्हणून वळखप जाता. पुर्तुगालाच्या जायत्या साहित्यिकांनी इटलींतल्या प्रबोधनांनी उर्बा घेतली. हातूंत सा द मिरान्द (१४८१-१५५८) ह्या कवीचो आस्पाव जाता. ताच्यो इटालियी धाटणेंत उतरायल्ल्यो उश इश्त्रांझ्यैरुश (१५२७) आनी व्हिल्याल्यान्दुश (१५३२) ह्यो सुखात्मिका म्हत्वाच्यो आसात. ह्या काळांत आंतोनियु फेरेरा (१५२८-६९) हाणें सुनिता रचलीं. ताची काश्त्रु (१५८७) ही शोकात्मिकाय उल्लेख करपासारकी आसा. बेर्नार्द रिबैरू आनी क्रिश्तोवांव फाल्कांव हे ह्या काळांतले हेर दोन उल्लेख करपासारके कवी. बेर्नार्द रिबैरू हो गोपगितां रचपी पयलो पुर्तुगेज कवी. क्रिश्तोवांव फाल्कांव हाचें क्रिश्फाल (१५५४) हें गोपकाव्य म्हत्वाचें. पुर्तुगालाचें राश्ट्रीय महाकाव्य 'लुझीअदश' हें कवी कामोंयश हाणें ह्याच काळांत बरयलें. धा सर्गाच्या ह्या महाकाव्यांत वाश्कु द गामाची उदकाभोंवडी आनी ताचें भारतांतलें आगमन ह्या विशयाचे फासकेंत पुर्तुगालाच्या इतिहासाचें जितेजिवें चित्रण आयिल्लें आसा. झ्यील व्हिंसेंत हो नाटककार ह्याच शतमानांत जावन गेलो. ताची इनेश परैर (१५२३) आनी आवतु द आल्म (१५१८) ह्यो उल्लेख करपासारक्यो नाट्यकृती आसात. पुर्तुगेज रंगमाचयेचो जनक म्हणून ताका वळखप जाता.

सोळाव्या शतमानांतले गद्यकृतींत इतिहास लेखनाचेर चड भर दिल्लो दिश्टी पडटा. हातूंत जुआंव द बारुश, दामियांव द गॉयश, दियोगु द कौतु, गाश्पार कुरैया ह्या इतिहासकारांचो आस्पाव जाता. बारूश हाणें देकादश द आझिआ हो मुखेल ग्रंथ बरयलो. तेचपरी 'क्रॉनिका दु इंपॅरादोर क्लारिमुन्दू' (१५२०) ही रोमांस, तशेंच कार्तीन्य पारा आप्रेन्देर अ लेर (१५४०) आनी ग्रामतिका द लिंग्व पुर्तुगेझ (१५३९) ही शिक्षणीक स्वरुपाचीं पुस्तकां बरयलीं. (१५६६) वर्सा दामियाँव द गोयश हाचें राजा इमानुएलाचें इतिवृत्त उजवाडा आयलें. दियोगु द कौतु हाणें दॅकादश ४-१२ (१६०२) बारूश हाणें बरयल्ल्या दॅकादश हातूंतलो इतिहास फुडें चालू केलो. तशेंच सोल्दादु प्रतिकु ह्या ग्रंथांत ताणें उदेंतेकडल्या पुर्तुगेज साम्राज्याच्या न्हासाची मीमांसा केल्ली आसा. गाश्पार कुरैयान 'लॅन्दश द ईन्दिश' ह्या ग्रंथांत पुर्तुगेज साम्राज्य विस्ताराचो इतिहास दिल्लो आसून भारतांतल्या चालीरितींचें चित्रमय गद्यांत केल्लें वर्णन तातूंत मेळटा. ह्या काळांत भोंवडेवर्णनांय बरयलीं. फॅर्नांव मेंदिश हाणें आपल्या पेरेग्रितासांठा ह्या ग्रंथांत अरबस्तान, भारत, मियानमार, जपान ह्या उदेंती देशांतले वेगवेगळे अणभव उक्तायल्यात. सतराव्या शतमानांत हाच्यो वेगवेगळ्या भाशांतल्यान १९ आवृत्त्यो आयल्यात. द व्हॉएजिस ॲण्ड अडवॅंचर्स ऑफ फेर्नांव मेंदिश पितु अ पुर्तुगाल ह्या ग्रंथांचो इंग्लीश अणकार १६६३ त उजवाडाक आयलो. इश्तोरिय त्राजिकु-मरितिम ह्या ग्रंथांत १५५२ ते १६०४ ह्या काळांत पुर्तुगालाचीं जीं तारवां बुडलीं ताचें वर्णन मुद्रित केलां. ह्याच काळात व्हड भावकवी बेर्नार्द रिबैरू हाणें मिनीन ई मौसा उगेव साउदादिश ही गोपकादंबरी पुर्तुगेज साहित्यांत हाडली. ह्या काळांतले हेर उल्लेख करपासारके कादंबरीकार आनी तांच्यो कादंबऱ्यो अशो - फ्रांसिश्कु द मौरायश - पाल्मैरी द इंग्लातॅर्र (१५६७), फ्रेय येइतोर पिंतु - इमाझ्यँ द व्हीद क्रिस्तां (१५७२), फ्रेथ तॉमॅ द स्येझूश त्राबाल्ल्युश द इयेझूश (१६०२).

सतरावें शतमान हो पुर्तुगेज साहित्याचो अवनतकाळ समजप जाता. १५८० वर्सा स्पेनाचो राजा दुसरो फिलीप हाणें पुर्तुगालाची सत्ता हातासली. तो कट्टो रोमन कॅथलिक आशिल्ल्यान धर्मन्यायपिठांक चड म्हत्व दितालो. ह्या धर्मन्यायपिठान आभ्यवेक्षणाचे खर नेम काडिल्ल्यान ग्रंथनिर्मितीचेर बरोच परिणाम जालो. कवितेच्या मळार स्वतंत्र कविता निर्मुपाच्या जाग्यार स्पेनी कवितांचें अनुकरण करपी कवी ह्या काळांत निर्माण जाले. फ्रांसिश्कु रुद्रीगिश लोबु हो ह्या शतमानांतलो उल्लेख करपासारको कवी. 'एक्लॉगश' (१६०५) हो गोपगितांचो संग्रह बरोवन ताणें रिबैरूची परंपरा फुडें व्हेली. ताचें प्रिमावैरा (१६०१) आनी कोर्ति ना आल्दैय हेय ग्रंथ उल्लेख करपासारके आसात. दाँ फ्रांसिश्कु मानुयॅल द मेलु हाणें शंबर सुनितां आनी तीन गोपगितां बरयलीं. तातूंत कार्ता द गीय द काझादुश (१६५१) आनी आपॉलॉगुश दिआलॉगायश (१७२१) हांचो आस्पाव जाता.

ह्या शतमानांत फ्रेय बेर्नार्दु द ब्रितु आनी हेरांनी बरयल्लो मॉनार्किआ लुझिताना (१५९७-१७२७) हो इतिहासग्रंथ म्हत्वाचो. फुडें आंतोनियु ब्रांदाव हाणें आफोंसु अँरीक (१११२-८५) ह्या पुर्तुगालाच्या पयल्या राजासावन दुसऱ्या जुआंवा (१४५५-९५) मेरेनचो इतिहास बरोवन ब्रितु हाच्या इतिहास लेखनाचो वावर फुडें व्हेलो. ह्याच काळांत फ्रेय लुईश द सौझा हाणें बरयलें फ्रेय बार्तोलोमेव दुश मार्तिरिश हाचें चरित्र आनी मारियाना आल्कोफॉरादु हे जोगिणीन एका फ्रेंच सरदाराक बरयल्लीं प्रेमपत्रां साहित्यीक नदरेन उल्लेख करपासारकीं आसात. पुर्तुगेज भाशेचे सोबितकायेचे नदरेन मानुयॅल बॅर्नार्दिश ह्या धर्मोपदेशकाचीं प्रवचनां आनी आंतोनियु वियेरा ह्या धर्मोपदेशकाचे गद्यग्रंथ उल्लेख करपासारके आसात. ह्या काळांत नाट्यलेखनाच्या मळार व्हडलेंशें काम केल्लें दिश्टी पडना.

अठराव्या शतमानांत गिन्यानी उत्सुकताय वाडिल्यान इतिहासग्रंथाची निर्मिती, भाशा-साहित्याविशींची तळमळ आदी गजालींनी सुमाराभायले बदल घडले. तांचोच परिणाम म्हळ्यार रॉयल ॲकॅडमी ऑफ हिस्टरी (१७२०); पुर्तुगेज आर्कादिय (१७५६), रॉयल ॲकॅडमी ऑफ सायन्स (१७८०) आनी न्यू अर्कादिया (१७९०) अशा संस्थांची स्थापना जाली. क्रुज इ सिल्वा सारक्या कवींनी पुर्तुगेज साहित्यांत स्पेनी प्रभावांतल्यान भायर येवन स्वतंत्र भाव उक्तावपा खातीर यत्न केले. ताणें उद्देशिका आनी सुनितां आदी काव्यरचना केली. उ इस्पॉव ह्या वीरविडंबनात्मक काव्याक लागून ताका नामना मेळ्ळी. कुरैया गार्साव होय एक उल्लेख करपासारको कवी. पुर्तुगेज आर्कादियाचो रेंयश कीता ह्या गोपकवीन कांय नाटकांय बरयलीं. तोमाझ आंतोनियु गोंझागा हाच्यो प्रेमकविता 'मारिलिआ' ह्या नांवान संग्रहीत केल्यात. जुझे आनास्तासियु द कुन्या, जुझे आगुश्तिन्यु द मासेदु, निकॉलाव तालेन्तीनु द आल्मेद आनी बार्बोझा दु बुकाझ्य हे न्यु आर्काडियाचे उल्लेखनीय वांगडी आशिल्ले. द कुन्य हाणें गणिती तत्त्वांचें विवेचन करपी ग्रंथ बरयलो. मासेदु हाणें पुस्तकपत्रकार म्हणून नामना मेळयली. आल्मेद हो प्रभावी उपरोधकार आशिल्लो. त्या काळांतल्या वेगवेगळ्या दोशांचें आनी विसंगतीचें चित्र आपल्या कवितांवरवीं ताणें मांडलां. बार्बोझा दु बुकाझ्य हाका सुनीतकार म्हणून नामना मेळ्ळी. ताणें मोग, नीत, तत्त्वगिन्यान, पराक्रम अशा वेगवेगळ्या विशयांचेर पावणे चारश्यां परस चड सुनितां बरयल्यांत. विलापिका, उद्देशिका ह्या सारके काव्यप्रकारूय ताणें हाताळ्ळ्यात. फ्रांसिश्कु मानुयॅल नासिमेंतू होय एक अठराव्या शतमानांतलो व्हड कवी. पूण सनातन धर्ममताचो विरोध आशिल्लो

आरोप ताचेर लायिल्ल्यान तो फ्रांसाक गेलो.

एकुणिसाव्या शतमानांत पुर्तुगेज साहित्यांत स्वच्छंदतावाद आयलो. आल्मैद गार्रेर हाका राजकीय मतभेदांक लागून शिमेभायर घालो. ह्या काळांत इंग्लंड आनी फ्रांसांत तांचेर स्वच्छंदतावादाचो प्रभाव पडलो. तांचीं कामोयश (१८२५) आनी दोना ब्रांका (१८२५) हीं दोन स्वच्छंदतावादी पुर्तुगेज काव्यां पॅरिसांत उजवाडाक आयलीं. ताचें फोल्यश काईदश (१८५३) हेंय काव्य उल्लेख करपासारकें आसा. फ्रेय लुईश द सौझ (१८४४) ही ताची नाट्यकृती स्वच्छंदतावादी पुर्तुगेज रंगमाचयेचें एक खाशेलपण समजतात. ह्या नाटकावरवीं पुर्तुगालाच्या राष्ट्रीय रंगमाचयेक ताणें परत उर्बा हाडली. व्हियाझ्येंश ना मिन्य तेर्र (१८४६) आनी ऊ आर्कु दू सान्तान (२ खंड १८४५, १८५०) ह्यो ताच्यो कादंबऱ्यो. गार्रेरावांगडाच आलेशांद्रि एर्कुलानु हाणेंय पुर्तुगेज साहित्यांत स्वच्छंदतावाद हाडलो. इतिहास लेखन, कादंबरी आनी कविता ह्या मळार ताणें मोलादीक वावर केलो. इश्तॉरिय द पुर्तुगाल (१८४६-५३), इश्तारिय द ओरीजँ इ इश्ताबेलेसिमेन्तु द इंकिझिसांव अँ पुर्तुगाल (१८५४-१८५९) हे ताचे नामनेचे इतिहासग्रंथ. पुर्तुगेज भाशेंतल्या इतिहासीक आनी गोपकादंबरीक ताणें आकार हाडलो. येउरीकु (१८४४) आनी मॉंझ्यि द सिस्तॅर (१८४८) ह्यो ताच्यो इतिहासिक कादंबऱ्यो आनी ऊ पारॉकु द आल्दैय (१८४४) ही ताची गोपकादंबरी उल्लेख करपासारकी आसा. लुईश आइगुश्तु रेबेलु द सिल्वा हो इतिहासकार आनी इतिहास कादंबरीकार ह्याच काळांतलो. आंतोनियु फेलिसियानु द काश्तिल्यु हाचे अ प्रिमावॅरा (१८२२) आनी आमोर ई मॅलांकोलीअ (१८२८) हे दोन कवितांझेलेय उजवाडा आयले. ताणें ग्रीसी-लॅटीन साहित्याचे अणकारूय केले. तशेंच मध्ययुगांतल्या पुर्तुगेज विरांचीं चरित्रांय बरयलीं. त्या काळांत पुर्तुगेज साहित्यजगतांत ताचो सुमाराभायर प्रभाव आशिल्लो. जुआंव द लॅमुश, सुआरिश द पॉस्सुश आनी तोमास रिबैरू हे काश्तिल्यूच्या प्रभावाखालचे कवी आशिल्ले. 'पाकीता' (१८६६) हें दीर्घकाव्य बरोवपी बुल्यांव पातु हो ह्या काळांतलो आनीक एक स्वच्छंदतावादी कवी.

पूण उपरांतच्या काळांत तात्विक प्रवृत्तीचो कवी आंतेरू द क्यँताल आनी तिऑफिलु ब्रागा हाणीं नवी साहित्यीक नदर लोकामुखार हाडून स्वच्छंदतावादांत फूट घालपाचो यत्न केलो. क्यँताल हाचो 'सोनेतुश कॉंप्लेतुश' (१८८६) सुनीतसंग्रह हे नदरेन म्हत्वाचो. ऑदिश मॉदेर्नाश (१८६५) हो ताचो तात्त्विक उद्देशिकांचो संग्रह. ब्रागा हाणें काव्यरचना केलीच, तेभायर इतिहासीक समाजीक, राजकीय अशा वेगवेगळ्या विशयांचें बरप केलें. पुराय पुर्तुगेज साहित्याचो इतिहास बरोवपाचो ताणें यत्न केलो. हाचे भायर पुर्तुगेज लोकविद्या, लोकगितां आनी बॅलड हांचें संकलन केलें. तशेंच पुर्तुगेज स्वच्छंदतावादाचो इतिहास ताणें बरयलो. जुआंव द देउश ह्या प्रेमकवीची रचना सादी आनी उत्स्फुर्त आसा. क्रांतीकारक आनी मुर्तीभंजक वृत्तीचो गॅरा झ्युंकैरू हो मूळ स्वच्छंदतावादी पूण फुडें वास्तववादाकडेन घुंवलो. ह्या काळांतले हेर उल्लेख करपासारके कवी आनी तांचे संग्रह अशे - गॉमिश लिआल - 'क्लारिदादिश द सूल' (१८७५); गोंसाल्विश क्रॅश्पु - पुर्तुगेज साहित्यांतलो पयलो कलावादी वा पारनॅशन कवी - हाचे कवितांझेले मिनीआतूरश आनी नोकातूर्नुश; आंतोनियु फेयझ्यॉ; सॅझारिउ व्हेर्दी आंतोनिय नोब्रि.

फ्रॅंच प्रतिकवादान प्रभावित जाल्लो कवी येउ झ्यॅनियु द काश्त्रु हाणें पुर्तुगेज कवितेक नवें मोडण दिलें. तेईशेयस द पाश्कोआंयश हो साउदोझिश्म ह्या नांवान वळखतालो. तो साहित्यीक चळवळीचो मुखेल प्रतिनिधी. आउदोझिश्मु हे चळवळीक देशांत त्या वेळार अस्तित्वांत आशिल्ले निर्शिल्ले अशे राजकीय परिस्थितीचोय संदर्भ आशिल्लो. हे निराशेंतल्यान भायर येवपाखातीर सैम आनी मनीस हांचें आध्यात्मिकरण करप आनी साउदाद (उत्कट ओड) वाडोवप हो मार्ग तेयरोयर हाणें सांगलो. म्हान गीतकवी आंतोनियु नोवि, ह्या आधुनिकतेचो पुरस्कार करपी कवीचे गरवडींतलो फेर्नांद पेसोआ (१८८८-१९३५) हो सगळ्यांत चड नामना मेळिल्लो कवी. ताच्या व्यक्तिमत्वाचो आनी काव्यात्मक आविश्काराचो खुपूच प्रभाव ताचे फुडले पिळगेर पडलो.

एकुणिसाव्या शतमानांत कादंबरीच्या मळारूय दोळ्यांत भरसारको वावर जालो. एर्कुलानु, कामिलु काश्तेलु ब्रांकु, झ्युलियु दिनीश आनी यॅसा द कैरोज हे ह्या काळांतले नामनेचे कादंबरीकार. हेभायर आन्तेरू द फिगैरेदु हाणें इतिहासीक कादंबऱ्यो बरयल्यो. रामाल्यु ओर्तिगांव हो जरी वास्तववादकार आशिल्लो तरी ताका भोंवडेवर्णनकार आनी समिक्षक म्हणून चड नामना मेळ्ळी. अ ऑलान्द हें ताणें बरयल्लें एक बरें भोंवडेवर्णन. हाचे भायर अश फार्पाश ह्या नेमाळांतल्यान पुर्तुगेज जिविताचें साहित्यीक, समाजीक आनी नैतिक आंगांचें ताणें केल्लें उपरोधात्मक लेखन उल्लेख करपासारकें. फिआल्यु द आल्मैद हाचो ऊ पाईश दश उवश (१८९५) आनी त्रिन्दाद कुयेल्ल्यु हाचो ऊश मेउश आमोरिश (१९०१) हे ह्या शतमानांतले नामनेचे कथांझेले. झ्युलियु दान्तश हो एक व्हड नाटककार. ताच्या अ सैआ दुश कार्दिआंयश (१९०२) ह्या नाटकाक आंतरराष्ट्रीय नामना मेळ्ळी. ऐलिव्हैरा मार्तींश हाचो 'पुर्तुगाल कॉंतेपोरानियु' (१८८१) हो ग्रंथ एकुणिसाव्या शतमानांतल्या इतिहास ग्रंथांमदीं म्हत्वाचो मानतात.

विसाव्या शतमानांत अमेरिकी साहित्याच्या प्रभावाक लागून पुर्तुगेज साहित्यांत वास्तववादी प्रवृत्तींची वाड जाल्ली दिश्टी पडटा. फेरैर द काश्त्रु (१८९८) आनी मिंगेल तॉर्गा (१९०७) ह्या साहित्यिकांच्या साहित्यांत वास्तववादाचें दर्शन घडटा. ह्या संदर्भांत फेरैर हाचो एमिग्रान्तिश (१९२८) आनी तेर्र फ्रीअ (१९३५) ह्यो उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो. मिंगेल तोर्गा हाणें कविता, कथा आनी नाटक ह्या तिनूय मळांचेर नामना जोडली. ह्या काळांतले हेर साहित्यीक अशे - अकिलिनु रिबैरू (१८८५), फेर्नान्दु नामॉरा (१९१९), जुझे रॅझ्यि (१९०१), व्हितोरिनु नॅमॅझिड (१९०१), काझायश मोन्तेरू (१९०८), रूय सिनाती (१९१५), बॅस्सा लुईश (१९२२) येउझ्यॅनियु द आन्द्र (१९२३).

आशिया, आफ्रिका आनी दक्षीण अमेरिका ह्या खंडानी पुर्तुगेजांच्यो वसणुको आशिल्ल्यो. ह्या वसणुकांनी उल्लेख करपासारकी खुपशी पुर्तुगेज भाशेंतली साहित्य निर्मिती जाली.

पूरक नोंद : गोंयचें पुर्तुगेज साहित्य : पळेयात गोंय.
ब्राझीलचें पुर्तुगेज साहित्य : पळेयात ब्राझील.

- कों. वि. सं. मं.

**पुर्तुगेज सत्ता भारतांतली :** पंदराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन भारत आनी हेर उदेंत देशांकडेन मसाल्याचो वेपार करपाखातीर साबार युरोपीय राष्ट्रां उदकामार्गाचो सोद लावपाचे यत्न करतालीं. त्या तेंपार युरोपांत मसाल्याक खूब मागणी आशिल्ल्यान हो वेपार नेटान चलतालो. पूण अरब आनी भारती वेपाऱ्यांचे लागींचे संबंद आशिल्ल्यान हांगा अरबी

वेपाऱ्यांचीच मक्तेदारी आशिल्ली.. ताणीं ह्या मसाल्याच्या वेपारावरवीं खूब संपत्ती हाशील केल्ली. अरबांची मक्तेदारी नश्ट करून युरोपी लोकांनीच हो वेपार आपल्या हातांत घेतलो जाल्यार फायदेशीर थारतलो. हाका लागून पंदराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दाक सावन चडशा युरोपी राश्ट्रांचे भारताक आनी हेर उदेंत देशांक जोडपी उदकामार्ग सोदून काडपाचे यत्न चलताले. पूण सगळ्यांत पयलीं नौदलांत फुडारिल्ले पुर्तुगेज पंदराव्या शेंकड्यांत दक्षिण आफ्रिकेक भोंवाडो मारून भारतांत आयले.

दों जुआंव दुसरो ह्या पुर्तुगेज राजाचो धाडसी प्रतिनिधी पेद्रू द कुव्हील्यांव हो भारतांत येवपी पयलो पुर्तुगेज अशें मानतात. १४८८ त तो अरब वेपारीभेसांत कननोराक पावलो. १४९१ त ताणें गोंय, कालिकत आनी मलबारा संबंदी मेळिल्ली म्हायती गुपीतपणान पुर्तुगेज राजाच्या कायरोच्या प्रतिनिधीक धाडली. हे म्हायतीक लागून पुर्तुगेज लोकांमदीं भारतांत येवपाची उमळशीक आनीक वाडली. उपरांत मे १४९८ त वाश्कु द गाम कालिकताक पावलो. क्रिस्तांव लोक आनी मसाल्याच्या सोदांत आपूण हांगा पावलों अशी जाप ताणें थळाव्या लोकांक दिल्ली. भारतांत येवपा फाटलीं हीं मुखेल कारणां आसलीं, तांचेच जोडयेक धाडसाची उमळशीक, राज्याचो विस्तार, वेपार वाड आनी मुसलमान वेपाऱ्यांची मक्तेदारी नश्ट करपाचो उद्देश हीं कारणां आसूं येतात.

वाश्कु द गाम कालिकताक पावले उपरांत, ताणें सामुरी राजाकडेन कालिकताक वखार घालपाखातीर परवानगी मागली. १५०० त पेद्रु आल्वारीश काब्राल भारतांत आयलो. ताणें कालिकताक वखार घालून वेपार सुरू केलो. काब्राल हाणें कोची बंदराचो सोद लायलो. ताणें कोचीच्या राजाकडेन इश्टागत करून आपले संबंद ताचेकडेन बरे दवरले. १५०२ त पुर्तुगालाच्या राजान वाश्कु द गाम आनी इश्ते विश द गाम हांकां परत भारतांत धाडले. कोचीक वाश्कु द गाम हाणें आनीक एक वखार घाली. तो परत पुर्तुगालाक गेले उपरांत आफोंसु द आल्बुकेर्क आनी फ्रांसिश्कु द आल्बुकेर्क हे भारतांत आयले. कांय दिसांउपरांत पुर्तुगेज आनी सामुरीचो राजा हांचेभितर झगडीं जावन आल्बुकेर्क हाणें सामुरीच्या सैन्याक धांवडावन घालें. मलबार बंदरावयलो वेपार पुरायपणान आपल्या शेकातळा आसचो हाका लागून १५०५ त फ्रांसिश्कु द आल्मैद हो व्हड सैन्य आनी नावीक दळ घेवन भारतांत पयलो वायसरॉय म्हणून आयलो. कांय दिसांभितरूच पुर्तुगेजांनी अस्तंत दर्यादेगांनी सुरत ते कोचीन मेरेन आपली सत्ता स्थापीत केल्ली. १५०९ त इजिप्त आनी गुजरात ह्या सुलतानांचें नावीक दळ नश्ट करून आल्मैद हाणें पुर्तुगेज नौदलाचो अरबी दर्यांत शेक बसयलो.

आल्मैद उपरांत आफोंसु द आल्बुकेर्क हो वायसरॉय म्हणून भारतांत आयलो (१५०९-१५१५). गोंय हें अस्तंत दर्यादेगेवयलें सैमीक तशेंच वेपाराचे नदरेन म्हत्वाचें आशिल्ल्यान तें पुर्तुगेजांच्या शेकातळा हाडचें, अशें आल्बुकेर्क हाणें थरयलें. पूण त्या वेळार गोंय विजापूरचो आदिलशाह हाच्या शेकातळा आशिल्लें. १५१० त तिमाजी हाच्या पालवान आल्बुकेर्क हाणें गोंयचेर घुरी घालून गोंय हातासलें (आयचें पोरणें गोंय). गोंयचेर ताबो मेळयले उपरांत ताणें भारतांत पुर्तुगेज सत्ता वाडोवपाक सुरवात केली. आल्बुकेर्क हाणें गोंयूच न्हय जाल्यार १५११ त मलाक्का आनी १५१५ त ओर्मुज हेय वाठार पुर्तुगेज सत्तेखाला हाडले. १५२० मेरेन पुर्तुगेजांनी साश्टी, बारदेस आनी गोंयचे कांय हेर प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडले. १५२१ सावन गोंय ही पुर्तुगेजांची उदेंतेकडली मुखेल वसणूक जाली. १५१३ त न्यू द कुन्य हाणें गुजरातच्या सुलतानाआड झूज दिवन सुरवेक दीव आनी १५३४ त वसई प्रांत हातासले. १५८० मेरेन पुर्तुगेजांचे सत्तेखाला पोरणें गोंय, बारदेस, साश्ट, दीव, दमण, वसई, मुंबय, चौल, बार्सेलोर, होनावर, मंगळूर, कननोर, कोची हे प्रदेश आशिल्ले.

पुर्तुगेजांनी आपली सत्ता ज्या वाठारांनी स्थापीत केल्ली थंय ताणी वखारी आनी किल्ले उबारिल्ले (Factoryfortress system). अरबी दर्यांतूय तांचो शेक चलतालो. उपरांत तांचो मोगल, मराठे, ब्रिटीश आनी डच लोकांकडेन संबंद आयलो. कांय खेपे तांचेभितर झुजांय जालीं.

सतराव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दामेरेन युरोप - आशिया ह्या दर्यामार्गाचेर पुर्तुगेजांचो शेक आशिल्लो. ह्या मार्गांत हेर लोकांक आपलीं तारवां ताणपाखातीर पुर्तुगेजांक कर फारीक करचो पडटालो.

हॉलंडी लोक भारतांत आयलेउपरांत ताणीं पुर्तुगेजांआड साबार झुजां दिवन तांच्यो कांय वखारी आनी बंदरां आपल्या शेकातळा हाडलीं. ब्रिटीश लोक भारतांत आयले उपरांत तांणीय पुर्तुगेजांचे साबार प्रदेश हातासले. हॉलंडी लोक आनी ब्रिटिशांआड जाल्लीं झुजां, हिंदुस्थानी सत्ताधिशांचो तसोच थळाव्या लोकांचो विरोध, खूब पयसमेरेन पातळिल्ल्या वसणुकांची देखरेख करपाखातीर उणें मनीसबळ, पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांभितर भ्रश्टाचार आनी हेर कारणांक लागून भारतांतले पुर्तुगेज सत्तेक ल्हव ल्हव देंवती कळा लागली. अठराव्या शेंकड्यामेरेन पुर्तुगेजांकडेन फकत दीव, दमण आनी गोंय हे प्रदेश उरले. उपरांत पुर्तुगेजांचो राज्यविस्तार भारतांत जालोच ना.

उदेंतेवटेनच्या आपल्या वाठारांचेर सरकार चलोवपाखातीर पुर्तुगालाचो राजा आपलो सगळ्यांत उंचेल्या पांवड्यावयलो अधिकारी धाडटालो. ताका व्हायसरॉय वा गव्हर्नर अशें म्हण्टाले. ताका पालव दिवपाखातीर राज्य विधीमंडळ आसतालें. 'सेनान्दु' वा नगरपालिका हें गोंयांत प्रशासनाचें म्हत्वाचें मंडळ आसतालें. कोमुनिदाद वा गांवच्यो समित्यो गांवगिऱ्या वाठारांतलें प्रशासन सांबाळटाल्यो.

पुर्तुगेजांचो राज्यविस्तार भारतांत मर्यादीत उरलो. ब्रिटीश लोक भारतांत आयले उपरांत तांचेमदीं आनी पुर्तुगेजांभितर संघर्श जायत रावलो. कांय प्रदेश सोडल्यार पुराय भारत ब्रिटीश लोकांच्या शेकातळा गेलो. अठराव्या शेंकड्याउपरांत गोंय, दमण, दीव, दादरा-नगर हवेली आनी हेर कांय प्रदेशूय पुर्तुगेजांच्या शेकातळा आशिल्ले. भारतांत पुर्तुगेज राज्याक पुर्तुगालांचें भारतांतलें राज्य अशें म्हण्टाले. हांगा सदांच व्हायसरॉयाचो कारभार चलतालो. पुर्तुगालाचे राजकीय स्थितींत जे बदल जाताले, तांचे परिणाम भारतांत पुर्तुगेज राज्याचेरूय जाताले. पुर्तुगालांत १८२० त संसदी शासनपद्दत अस्तित्वांत आयली. १८२१ त पुर्तुगेज संसदेंत गोंयांतल्यान स प्रतिनिधी धाडले. १८२२ त गोंयांतल्या विंगड विंगड जिल्ह्यांतल्या नागरिकांनी वेंचून काडिल्ल्या निर्वाचन मंडळावरवीं तीन प्रतिनिधी लिश्बोआक गेले. मुखार उदारमतवादी आनी अनिर्बंध राजसत्तावादी हांचेमदीं साबार वर्सां चालू आशिल्ल्या संघर्शांत गोंयकारांनीय वांटो घेतिल्लो. १८३३ त उदारमतवादी येसस्वी जावन, बेरनार्दु पिरीश द सिल्व हो गोंयांतल्यान नेमिल्लो भारतांतले पुर्तुगेज सत्तेचो पयलो गव्हर्नर जनरल आशिल्लो. १९१० त पुर्तुगालांत पुर्तुगेज प्रजासत्ताक आस्तित्वांत आयलेउपरांत कांय वर्सांनी म्हळ्यार १९१७ त गोंयाक प्रांतीक स्वायत्ततायेचो फायदो मेळ्ळो. १९२० त गोंयांत विधीमंडळ अस्तित्वांत आयलें. फुडें पुर्तुगालांत राज्यक्रांती जावन आंतोनियु ओलिवैर द सालाझार

हाची हुकूमशायी राजवट सुरू जाली, तसो गोंयांतूय जुलमी अंमल सुरू जालो. २५ नोव्हेंबर १९४७ ह्या दिसा गोंय हो पुर्तुगालाचोच एक, अविभाज्य घटक आसा अशें जाहीर केलें.

पुर्तुगेजांनी भारतांत आपले पांय दवरलें तेन्नासावन तांकां भारतीयांनी विरोध करपाक सुरवात केल्ली. १५८०-८५ ह्या तेंपार कुंकळ्ळी, असोळणे, वेळ्ळी, आंबेली ह्या साश्टीच्या लोकांनी आपलीं शेंता आनी देवळांची राखण करपाखातीर पुर्तुगेजांक विरोध केल्लो. १७८७ त पिन्तांचें बंड जालें. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत सत्तरीच्या राण्यांनीय तांचे आड साबार बंडां केलीं. गोंयकारांनी पुर्तुगेजांची सत्ता काबार करचे खातीर राजकीय संघटनेच्या मार्गान यत्न सुरू केले. १९३० उपरांत हांगा साबार बंडखोर संस्था अस्तित्वांत आयल्यो. तांच्यो भारतीय काँग्रेसी कडेन लागींचो संबंद आशिल्लो. १९४६ त राममनोहर लोहिया हाणें गोंयांत येवन कायदेभंगाची चळवळ सुरू केली. १९५५ त भारतान पुर्तुगाला वांगडाचे आपले राजनितीक संबंद तोडून उडयले. पुर्तुगेजांची सत्ता काबार करचेखातीर गोंयांत ल्हान व्हड हिंसक तशेंच अहिंसक उठाव चालूच आशिल्ले. निमाणेकडेन १९ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा भारत सरकारान 'ऑपरेशन विजय' नांवाखाला गोंयांत सैन्य धाडून गोंयची मुक्तताय केली. अशे रितीन साडेचारशें वर्सां उपरांत भारतांतली पुर्तुगेज सत्ता काबार जाली.

धर्मांतर आनी वेपार हीं सत्तेचीं मुखेल ध्येयां जालीं. सुर्वेचीं मसुलमान राजवटीचीं कांय वर्सां सोडल्यार हेर परकी राजवटींकडसून धर्मप्रसाराखातीर बळाचो वापर जालोना. पूण १५४० वर्सासावन धर्मांतराविशीं खर धोरण आपणावन, राजाचो धर्म तोच प्रजेचो धर्म आसूंक जाय, अशें फर्मान पुर्तुगालान काडलें. भारतांतल्या ज्या वाठारांनी तांची वसणूक आशिल्ली थंयचीं देवळां आनी मशिदी उध्वस्त केल्यो. तांचे सुवातेर इगर्जी बांदल्यो. देवळांचें उत्पन्न आनी जमनीलेगीत इगर्जांचे मालकीच्यो केल्यो. गोंयांत ताणीं धर्मीक कायदो लावन किरिस्तांव नाशिल्ल्यांची जीण सामकी दगदगाची करून सोडली. इंक्वीझिशन कायद्यावरवीं साबार हिंदू आनी मुसलमान लोकांक सक्तीन बाटयल्ल्यान तांकां क्रिस्तांव जावंचे पडले. जे बाटूक तयार जालेनात, तांकां हाल-अपेश्टांक तोंड दिवंचे पडलें. कांय जाणांनी गोंय सोडून महाराष्ट्र, कर्नाटक, केरळ सारकिल्या शेजारच्या ब्रिटीश सत्तेच्या शेकातळा आशिल्ल्या प्रदेशांनी आलाशिरो घेतलो. गोंयांत आनी हेर प्रदेशांनी सत्ता प्रस्थापित केले उपरांत पुर्तुगेजांनी तेन्ना चालंत आशिल्ले शिक्षणपद्धतीचो इबाड करून ताणीं वसणुकवादाक पोशण अशें शिक्षण पद्धतीचो आस्पाव केलो. शिक्षणाचें माध्यम पुर्तुगेज आशिल्लें. तरातरांच्या धर्मीक हुकमांवरवीं गोंयांत महाविद्यालयां आनी सेमिनारी उक्तो केल्यो. सुर्वेच्या काळांत क्रिस्तांव धर्मतत्त्वां लोकांक तांचे स्वताचे भाशेंतल्यान समजावन दिवपाखातीर मिशनरी प्रचारकांनी थळाव्यो भासो शिकूंक बरोच फुडाकार घेतिल्लो. पूण उपरांत पुर्तुगेज भाशेचोच उपेग चड जावपाक लागलो. ताणीं थळावे (चड करून गोंयकारांचे) समाजीक जिणेचेर बरोच परिणाम केलो. क्रिस्तांवकरण करपाचे प्रक्रियेंतल्यान अस्तंतीकरण जावंक लागलें. इन्क्विझिशनांतल्यान आयिल्ल्या नेमांवरवीं आनी कायद्यांवरवीं क्रिस्तांव जाल्ल्या मूळ हिंदू तशेंच मुसलमानांक आपली जेवणाखाणाची पद्दत, भेस, संगीत, चालिरिती आनी शिश्टाचार बळयां बदलूंक लायले. एकुणिसाव्या शेंकड्यांच्या दुसऱ्या अर्दका सावन ही सक्ती उणी जायत गेली. गोंयांत सती पद्दतीचेर बंदी हाडपाचें श्रेय पुर्तुगेजांक वता. तेभायर बायलांक आस्पतीच्या वांटयांचो हक्क, विधवांचीं लग्नां, समान नागरी कायदो ह्या सारक्यो सुदारणांय ताणीं केल्यो. अस्तंती संस्कृती विचार, साहित्य हांची वळख जाली.

– कों. वि. सं. मं.

## पुलित्झर, जोसेफ :

(जल्म : १० एप्रिल १८४७, माको – हंगेरी; मरण : २९ ऑक्टोबर १९११, चार्लस्टन – दक्षिण कॅरोलायना).

नामनेचो अमेरिकी पत्रकार. १८६४ त तो अमेरिकेंत आयलो आनी ताणें सैन्यांत नोकरी धरली. अमेरिकेंतलें यादवी झूज सोंपतकच तो सेंट लुईसाक आयलो आनी मानांयाचीं कामां करूंक लागलो. १८६८ त एका जर्मन खबरांपत्रांत ताका वार्ताहराची नोकरी मेळ्ळी. एक बरो वार्ताहर म्हणून ताणें रोखडीच नामना मेळयली.

फुडें कांय खबरांपत्रांचो तो धनी जालो; हीं खबरांपत्रां अशीं – 'सेंट लुइस पोस्ट', 'सेंट लुइस डिस्पॅच' आनी 'न्यूयॉर्क वर्ल्ड'. तातूंतलीं 'सेंट लुईस पोस्ट' आनी 'सेंट लुइस डिस्पॅच' हीं दोन खबरांपत्रां एकठांय करून ताणें 'पोस्ट-डिस्पॅच' हें नवें खबरांपत्र सुरू केलें. 'पोस्ट डिस्पॅच' आनी 'न्युयॉर्क वर्ल्ड' ह्या दोन खबरांपत्रांनी बरीच लोकप्रियता मेळयली. भौशीक जिणेंतल्या भ्रश्टाचाराक पुलित्झरान आपल्या खबरांपत्रांतल्यान वाचा फोडली.

पुलित्झराक पिरायेच्या बेचाळिसाव्या वर्सा कुड्डेपण आयलें. तरी लेगीत आपल्या वांगड्यांच्या पालवान तो आपलीं खबरांपत्रां चलयत रावलो. १८९४ त पुलित्झरान 'न्यूयॉर्क वर्ल्ड' पत्रांतल्यान एक रंगीत चित्रकथा (कॉमिक) सुरू केली. 'येलो थिड' हो हे चित्रकलेचो नायक. 'येलो जर्नलीझम' वा 'हळदुवी पत्रकारीता' हो शब्द येलो थिड हाचेवयल्यान आयलो अशें म्हण्टात.

आपल्या इत्सापत्रांत ताणें 'कोलंबिया युनिव्हर्सिटी ग्रॅज्युएट स्कूल ऑफ जर्नलिझम' हे संस्थेचे स्थापनेखातीर आनी पत्रकारिता, साहित्य आनी संगीत ह्या विशयांखातीर आपल्या नांवान इनामां दिवपाची वेवस्था केल्ली. १९१७ सावन पुलित्झर इनामां दिवपाक सुरवात केली. हीं इनामा फकत अमेरिकी नागरिकांखातीरूच मर्यादीत आसात.

– कों. वि. सं. मं.

## पुश्कर :

राजस्थान राज्याच्या अजमेर जिल्ह्यांतलें पवित्र तीर्थक्षेत्र. अजमेरचे वायव्येक सुमार ११ किमी. अंतराचेर आशिल्लें हें तीर्थराज पुश्कर म्हणून नामना आशिल्लें भारतांतलें ब्रह्मावताराचें एकलें एकसुरें थळ. पुश्कराची गणना पंचतीर्थांत (पुश्कर, कुरूक्षेत्र, गया, गंगा आनी प्रयाग) आनी पंचसरोवरांत (मानस, पुश्कर, बिंदू, नारायण आनी पंपा) करतात. ह्या थळाविशीं पद्मपुराणांत एक आख्यायिका दिल्या ती अशी – एक फावट ब्रह्मदेव भूंयलोकाचे भोंवडेक गेल्लो. तेन्ना ताच्या हातांत आशिल्लें कमळ तीन फावटी गळून पडलें आनी थंय तीन तळीं तयार जालीं. जेश्ठ, मध्यम आनी कनिश्ठ अशा तीन नांवांनी तांची नामना आसा. त्या थळाक ब्रह्मदेवान पुश्कर नांव दिवन थंय कार्तिक शुद्ध एकादशीक यज्ञ केलो. देखुनूच कार्तिक शुद्ध एकादशीसावन पुनवेमेरेन हांगाच्या तळ्यांत न्हावप पुण्यायेचें मानतात. पुश्कराच्या तिनूय वटांनी दोंगुल्लयो आसून, उदेंतेकडले नाग दोंगुल्लेचेर पुर्विल्ली व्होंवरी आनी पंचकूंड आसा. हें अगस्त्य ऋषीचें वसतीस्थान मानतात. थंयचीं पुर्विल्लीं देवळां औरंगजेबान मोडलीं. फुडें

राजपुतांनी तातूंतल्या कांय देवळांची परत उबारणी केली. हांगा ब्रह्मा, सावित्री, गायत्री (शक्तीपीठ), बद्रिनारायण, वराह, शिव आत्मतेश्वर श्रीरंग हांची मुखेल देवळां आसात.

ह्या क्षेत्रांत पुश्कर तिर्थांत न्हावप आनी ब्रह्मदेवाचें दर्शन घेवप ह्यो दोन मुखेल गजाली. पुश्कर तळ्या भोंवतणीं ब्रह्मघाट, गौघाट, बदरीघाट आदी जायते घाट बांदिल्ले आसात.

विष्णुचो वराह अवतार हांगाच ब्रम्हदेवाचे नाकापुडयेंतल्यान जालो अशी कथा आसा. कार्तिक पुनवेक जेन्ना जात्रा भरता तेन्ना हांगा घोडे, उंट, गाय, बैल हांचोय व्हड बाजार भरता. तेन्ना जावपी ऊंटगाडयांच्यो सर्ती हें हांगासल्लें खाशेलपण.

- कों. वि. सं. मं.

**पुष्पक :** पुर्विल्ल्या काळांतल्या एका विमानाचें नांव. वाल्मिकी रामायणांत ह्या विमानाचें वर्णन अशे तरेन आयलां - हें विमान कुपां इतलें उंच, भांगरावरी सुंदर आनी जायत्या रत्नांनी सजयल्लें आसा. विमानाचे भितल्ले वटेन जायत्यो पर्वतराजी उबारिल्ल्यो. तांचेर फुलांनी बहरिल्ले रूख आनी वेली आशिल्ल्यो. धवलगृहां निर्माण केल्ल्या फुलांनी भरिल्ल्यो पुष्करिणी आशिल्ल्यो. केंसरांनी भरिल्लीं कमळां आशिल्लीं तशेंच चित्रविचित्र रानां आनी तळीं आशिल्लीं. पोवळीं आनी रुपें हांचीं सुंदर सुकणीं आशिल्लीं. सुंदर हत्ती आनी घोडे आशिल्ले. भितल्ल्यो वेदिका मणयांनी तयार केल्ल्यो. भितर कुटागारां आशिल्लीं आनी तांचेर धवी बनेरां आशिल्लीं. विमानां भितर घांटी बसयल्ल्यो आनी त्यो मंजूळ आवाज करताल्यो. तातूंत मोतयां आनी रत्नांनी सजयल्ल्यो कुडी आशिल्ल्यो. तांचे खांबे भांगरा-रुप्याचे आशिल्ले. जनेलां भांगराचीं आशिल्लीं. हजारांनी भूतगण ताचें वजन पेलताले. ह्या विमानाचें खाशेलेपण म्हळ्यार तें आपल्याक जाय थंय वतालें.

सुर्वेक हें विमान विश्वकर्म्यान ब्रह्मदेवाखातीर तयार केल्लें. पूण कुबेरान तप करून तें ब्रह्मदेवाकडसून घेतलें. फुडें कुबेराक हारोवन रावणान तें घेतलें. रामान झुजांत रावणाक मारतकच विभीषण लंकेचो राजा जालो आनी ताणें तें विमान रामाक दिलें. ह्याच विमानांत बसून राम लंकेतल्यान अयोध्येंत आयलो. उपरांत रामान तें परत कुबेराकडेन धाडलें. कुबेरान आज्ञा करतकच परत तें रामाकडेन आयलें. रामान ताची पुजा करून तें परत धाडलें. रामान याद काडटकच परत ताचे सेवेंत उपस्थित रावपाचें आश्वासन दिवन तें विमान परत कुबेराकडेन गेलें.

- कों. वि. सं. मं.

**पुष्य :** भारतीय नक्षत्रमाळेंतलें आठवें नक्षत्र. हें नक्षत्र कर्क राशींत येता. हातूंतले सगळे तारे मंद आसात. ह्या ताऱ्यांचो एक घोंस आसून, तो आयनिक वृत्ताचे उत्तरेक वृत्ताक तेंकुनूच आसा. पुनर्वसू आनी मघा ह्या दोन नक्षत्रांमदीं जो एक अंधूक असो ताऱ्यांचो घोंस दिसता तें पुष्य नक्षत्र. ताची आकृती सामान्यपणान कुल्लेभाशेन आसता.

कर्केतलो डॅल्टा वा हामारीन हो योग तारो आसून तो क्रांतिवृत्ताचेर आसा. तशेंच कर्केतले गॅमा आनी इटा अशे तारे हातूंत येतात. डॅल्टा आनी गॅमा हांचे मदीं प्रीसेपी नांवाचो एक ताऱ्यांचो घोंस आसा. हाका मधुमक्षिका म्हळ्यार म्होंवाचें पोळें अशेंय म्हण्टात. ह्या घोंसांत शेंकड्यांनी तारे आसून तातूंतले चडशे सुर्यापरस तेजस्वी आसात. होय घोंस क्रांतिवृत्ताच्या सामको लागीं आसा. हाका फलज्योतिशांत कौस्तुभ अशें नांव आसा. पुष्य वेदकाळांत तिष्य, सिध्य अशींय नांवां आशिल्लीं.

गुरू ही ह्या नक्षत्राची देवता. गुरूचे सगळे शुभ धर्म पुष्य नक्षत्रांत वृध्दिंगत जातात. बिरेस्तारा चंद्राक पुष्य नक्षत्र आसल्यार तो गुरुपुष्य (अमृतसिध्दी) योग मानतात. लग्न सोडून हेर कसल्याय कामांखातीर हो योग लाभकारक मानतात. राम-जानकी हांचें लग्न गुरू-पुष्य ह्या योगाचेर जालें आनी देखून म्हूर्तवेत्त्यांनी हो योग लग्नाक प्रतिकूल थरयलो असो एक संकेत आसा.

मार्च म्हयन्याचे मदीं रातच्या णवांच्या सुमाराक हें नक्षत्र माथ्यार दिसता.

पुष्य नक्षत्र शुभ, लघू, ऊर्ध्वमुख, अंध आनी पुंनक्षत्र मानलां. ह्या नक्षत्राचेर जल्मल्लो मनीस मातृ-पितृभक्त, धर्मीक, प्रसन्न आनी मानसन्मान मेळोवपी जाता अशें कोष्टीप्रदिपांत सांगलां. पुष्य नक्षत्राचेर गंगेंत न्हाल्यार कोटी कुळांचो उद्धार जाता अशें ब्रह्मांड पुराणांत म्हळां. मेषारूढ, मेघवर्ण आनी चार भुजांची अशें पुष्याचें मुर्तिध्यान हेमाद्रीन सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**पूंतानम, नंपूतिरी :** (जल्म : इ.स. १६-१७ वें शतमान, नेन्मनी मलबार).

केरळांतलो एक संत कवी. पूंतानम हें ताच्या मावोडेंच्या घराण्याचें नांव. ह्या कुळांतले एकले एकसुरे चलयेकडेन लग्न जावन तो घरजांवय जाल्लो. फुडें ह्याच कूळनांवान ताची नामना जाली. ताच्या गुरूचें नांव नीलकंठ आशिल्लें अशें म्हण्टात. ताका ९० वर्सांची पिराय लाबली असो उल्लेख मेळटा (श्रीकृष्णकर्णामृतम). पूंतानम हो कट्टो कृष्णभक्त आशिल्लो. गुरुवायुरच्या कृष्णाच्या देवळालागसार ताचें घर आशिल्लें. त्याच काळांत केरळांतलो मेलपुत्तुर नांवाचो प्रकांड पंडित गुरुवायुराक येवन रावतालो. पूंतानम जीं कवनां करतालो ती सुदारपाखातीर मेलपुत्तुराक दाखयतालो. मेलपुत्तूर ताच्या कवनांची तोखणाय करतालो. पूण एक दीस ताणें टिका केली. ती आयकून पूंतानमाक वायट दिसलें आनी तो अस्वस्थ जालो. हें पळोवन कृष्णाक वायट दिसलें आनी ताणें मेलपुत्तुराक एकांगाची पिडा जडयली. पूंतनामाची ताणें माफी मागल्यारूच तातूंतल्यान ताची मुक्ती जातली अशें सांगलें. फुडें मेलपुत्तुरान भोगसणी मागून ते व्याधीपसून मुक्तताय मेळयली. पूंतानमाक एकलो एकसुरो चलो आशिल्लो. पूण ताका मरण आयलें. पूंतानमाक सुमाराभायर वायट दिसलें. पूण संतानगोपाल ह्या व्रताचे कथेंत ब्राह्मणाक ताचो मेल्लो पूत परतो मेळटा. देखून पूंतनमान हे कथेचेर पाला छंदांत एक कवन रचलें आनी तो ताची पारायणां करूंक लागलो. तेन्ना ताच्या विचारांचें परिवर्तन जालें. फुडें ताचेर जायतीं संकश्टां आयलीं तरीय ताणें तांचो व्हडलोसो हुसको करिनासतना शेंदरी आनी पानदान घेवन तो भोंवडेक गेलो. संतानगोपालम पाना, ज्ञानप्पाना, श्रीकृष्णकर्णामृतम्, घनसंप, पार्थसारथिस्तवम, आनंदवृत्तम आदी काव्यां ताणें बरयल्यांत. हातूंत श्रीकृष्णकर्णामृतम हो भागवताच्या दशमस्कंधाचो भावानुवाद आसून केरळी लोकांमदीं ताची खूब नामना आसा. पूंतानम पुराणूय बेस बरें सांगतालो. केरळांतल्या घराघरांनी पूंतानमाचे कवितेची नामना आसा. पूंतानमाविशीं जायत्यो आख्यायिका प्रचलित आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**पूजा :** अतिमानवी शक्तींचें सामर्थ्य जाणा जावन अशा शक्तींक प्रसन्न करून घेवन आपलें हीत सादपाच्या उद्देशान केल्ल्या धर्मीक विधीक व्यापक अर्थान 'पूजा' अशें म्हण्टात. सगळ्याच धर्मांनी पुजेची प्रथा चालू आसा. पूजा ही क्रिया, मनशाचे पराधिनतेचे जाणविकायेंतल्यान निर्माण जाल्या, हाची गवाय आयज लेगीत विज्ञानीक युगांत चालू आशिल्ले पुजेचे प्रथेंतल्यान दिश्टी पडटा.

पूजा आनी यातूक्रिया हातूंत थोडो फरक आसा. पूजा ही अतिमानवी शक्तींचे उपकार मानपाक, तांचेविशींचो आदर उक्तावपाखातीर आसता जाल्यार यातूक्रिया ही अतिमानवी शक्तीचेर नियंत्रण दवरपाखातीर आसता. मनीस आपले आपुणूच पूजा करूंक शकता. पूण कांय पुजांचे बाबतींत शास्त्रशुध्द अशा धर्मीक विधींचो आस्पाव जाता. अशा वेळार पुजेखातीर पुरयत वा पुजारी ह्या मध्यस्थांवतीन पूजा करप जाता.

कांय पूजा ह्यो अमुकूच अशा उत्सवांच्या वेळार प्रासंगीक वा नियमीत काळामदीं करतात. जाल्यार कांय पूजा ह्यो दीसपट्टचो आनी नित्यनेमान करतात.

पूजा हो शब्द पयलीं आर्षेय ब्राह्मणांत आनी उत्तरकालीन उपनिषदांनी मेळटा. पूजा हो शब्द आर्य भाशेंतलो न्हय. तो द्रवीडी. फुलांनी देवाधर्माचें कृत्य संपन्न करप असो ताचो अर्थ. द्रवीड भाशांनी 'पू' चो अर्थ फूल आनी करप ह्या अर्थान चेय्, शेय्, गेय्, जेय्, हे धातू रूढ आसात. पू + गेय् वा पू + जेय् हाचो अर्थ पुष्पकर्म वा पुष्पालंकरण असो जाता. पूजा हो शब्द आनी हिंदूंची सद्याची पूजा पद्दत ह्यो दोनूय गजाली उत्तरकाळांतल्यो आशिल्ल्यान, हिंदूंनी त्यो द्रवीड संस्कृतायेंतल्यान घेतल्यो आसुंये अशें कांय विद्वानांचें मत आसा. तमीळ भाशेंतल्या पूजा ह्या अर्थाच्या 'पूशै' ह्या शब्दापसून संस्कृतांतलो 'पूजा' हो शब्द तयार जावपाची शक्यताय आसा. कांय जाणांच्या मतान 'लेप दिवप' वा 'फासप' ह्या अर्थाच्या 'पूशु' ह्या द्रवीड शब्दाचें रूपांतर जावन पूजा हो शब्द आयलो आसुंये. कारण, रक्ताबदला चंदनाचो वा शेंदुराचो लेप दिवप, हें यज्ञापसून पुजेचें वेगळेंपण. हे विशीं द्रविडांनी पूजा हो शब्द आनी पुजापद्दत आपले पयलींच्या ऑस्ट्रिक लोकांकडल्यान घेतली आसुंये, द्रवीड संस्कृतायेचो प्रभाव आनी बौध्दांचे अहिंसेचो परिणाम हांकां लागून आर्यांनी रक्तहीन पुजेची अनार्यांची पद्दत आपणायली अशींय मतां मेळटात.

वैदिक काळांत सद्या भाशेन पूजा नाशिल्ली; यज्ञ आशिल्ले. व्हड अर्थान यज्ञ म्हळ्यारूय पूजाच. पूण वेव्हारांत पूजा आनी यज्ञ हातूंत खूब फरक आसा. यज्ञ करतना देवतांक उद्देशून अग्नींत आहूती ओंपतात आनी पशूबळी लेगीत दितात. पुजेंत मात तशें करिनात; फकत देवतेक पत्री-फुलां असले उपचार समर्पितात. पूजा ही यज्ञापरस सोंपी, उण्या खर्चाची आनी सहज साध्य आशिल्ल्यान यज्ञसंस्थेपरस पुजेक चड म्हत्व आयलें. यज्ञाचो अधिकार नाशिल्ल्या बायल-शुद्रांकलेगीत पुजेचो अधिकार आशिल्ल्यान पुजेचो चड प्रसार जालो.

**पुजेची व्याप्ती** – गुरू, आचार्य, सोयरो, संत, महात्मो, आवय-बापूय ह्या विभुतींचो जो सत्कार वा भोवमान करतात ताकाय पूजा अशेंच म्हणूंक जाय. देवपुजेंत आनी अशे तरेचे विभुतिपुजेंत कांय फरक आसता पूण संतुश्ट करप आनी आशीर्वाद घेवप हो पुजेचो मुखेल हेत, दोनूय कडेन सारकोच आसता. पूण सगळ्या पुजांनी भक्ती आनी मान ह्यो भावना आसतातूच अशें ना. भंय आनी धाक ह्या भावनांनीय कांय पूजा जातात. भुताखेतांनी मानगुटेचेर बसचें न्हय म्हणून भूतपुजा तशेंच महामारी, देवी ह्यो धामीच्यो पिडा जावंच्यो न्हय म्हणून उग्र देवतांची पूजा करतात. वंशावळ सातत्यान चालू उरची म्हणून श्राध्द, पितरांची पूजा करतात. गृहस्थान घरांत वा भक्तान देवळांत केल्ली देवपुजा ही भक्तीचें सूख, मनःशांती आनी अध्यात्मीक समाधानाखातीर आसता. पूण आदिवासी, अशिक्षीत तशेंच हेर रानवटी लोकांमदीं प्रचलीत आशिल्ल्यो सगळ्यो पूजा ह्यो वेव्हारीक जिणेंतलीं संकश्टां पयसावचीं हेखातीर आसतात. समाजाच्या विंगड-विंगड थरांनी तांचे तांचे संस्कृतीक पांवड्याक अणसरून सैमपुजा, यक्षपुजा, राक्षसपुजा, नागपुजा, रूखाची पूजा अशो तरातरांच्यो पूजा चलतात.

हिंदू लोकांभितर पांच वा सोळा उपचारांनी पूजा करतात. आवाहन, आसन, पाद्य, अर्ध्य, आचमनीय, स्नान, वस्त्र, यज्ञोपवीत, अनुलेपन, पुष्प, धूप, दीप, निवेद्य, नमस्कार, प्रदक्षिणा आनी विसर्जन वा उद्वासन हे सोळा उपचार आसात. भूषण आनी तांबूल हे आनीक दोन उपचार कांय जाणांनी सांगल्यात. पूजा करतना म्हणपाचे मंत्र, पुजेचो अधिकार, विधी-नेम हे विशींय खूब नेम आसात.

आपले इश्ट देवतेची पूजा पयलीं करून उपरांत हेर पुजपाच्या देवांची, एकेका देवाची तशेंच तरेन वेगळी वेगळी पूजा करची असो एक संकेत आसा. हाका कांडानुसमय अशें म्हण्टात. आपले इश्ट देवतेवांगडा हेर देवतांची पूजा करप आनी इश्ट देवतेक जो उपचार समर्पीत करपाचो तोच उपचार त्याच वेळार हेर देवतांकूय समर्पीत करप अशी आनीक एक पद्दत आसा. तिका पदार्थानुसमय अशें म्हण्टात. पंचायतन पुजेंत पदार्थानुसमय आपणायतात.

यवांनी विष्णूची पूजा करची न्हय. गणपतीक तुळशी, देवीक दुर्वा, सुर्याक बेल, विष्णूक रूई आनी धुत्रो तशेंच शिवाक हातो घालचो न्हय. शिव, सूर्य हांकां शंखोदकान अभिशेक करचो न्हय. एका घरांत दोन शिवलिंगा, तीन गणपती, तीन देवी, दोन शंख, दोन साळिग्राम आसचे न्हय, एकाच देवाच्यो चड मुर्ती घरांत आसच्यो न्हय अशीं कांय बंधनां आसात.

साधनाभाविनी, त्रासी, दौर्बोधी, सौतकी आनी आतुरी अशे पुजेचे पांच भेद सांगल्यात. पुजेखातीर गरजेच्यो वस्तू मेळूंक नाशिल्ल्यान फकत उदकान आनी मनान केल्ली पूजा ती साधनाभाविनी, कसल्याय संकश्टावेळार, तें निवारण जावपाखातीर मेळटा ती सामग्री घेवन केल्ली ती त्रासी, फकत स्वताक जमता तशी केल्ली ती दौर्बोधी, सुवेरांत खाशेल्या हेतान केल्ली ती सौतकी, पिडेस्त मनशाक पुराय पूजा करपाक शक्य नाशिल्ल्यान देवाक फकत फूल घालून केल्ली पूजा ती आतुरी पूजा.

पद्म पुराणांत पुजेविशीं पांच कर्मां सांगल्यांत तीं अशीं – 'अभिगमन' म्हळ्यार देवघरांत झाडून सारोवन नितळ करप आनी देवावयलें निर्माल्य काडप, 'उपादान' म्हळ्यार पुजें साहित्य तयार करप, 'योग' म्हळ्यार देवतेचें सतत चिंतन करप, 'स्वाध्याय' म्हळ्यार देवतामंत्राच्या अर्थाकडेन लक्ष दिवन ताचो जप आनी स्तोत्र पाठ करप, 'इज्या' म्हळ्यार देवाची सगळ्या उपचारांनी पूजा करप.

वेदकी, तांत्रिकी आनी मिश्र अशे आनीक तीन पुजाभेद सांगल्यात. तातूंतल्यो वैदिकी आनी मिश्र ह्यो पूजा त्रैवर्णिकांखातीर आसून, तांत्रिकी पूजा शुद्रांखातीर सांगल्या.

**पुजेचीं उपकरणां** – ताब्यांचीं आयदनां, पळी-पंचपात्र, पडगो, आर्गां

सोडपाचो पडगो, तबकडी, तांबयो, देव पुसपाचें वस्त्र, शंख, घांट, दिवली, धुपारत, एकारत, पंचारत, निरांजन हीं पुजेचीं उपकरणां.

**पुजेचे अधिकारी** – सगळ्या वर्णांच्या बायलां-दादल्यांक आनी अस्पृश्यांक पुजेचो अधिकार आसा. प्राणप्रतिश्ठा जाल्ल्या शिवलिंगाची आनी साळिग्रामाची पूजा मात बायलांक तशेंच शुद्रांक करपाक बंदी आसा. पुजकान आपलो देह आनी मन शुध्द करून पुजेक बसचें आनी कुटुंबांतल्या एकल्यानूच कोणेंय पूजा करची.

सोळा उपचारांची पूजा ही बाह्य पूजा मानिल्ली आसून फकत मनान केल्ली पूजा ती 'मानसपुजा' अशें म्हळां. पुजाप्रकाश, स्मृतिचंद्रिका ह्या धर्मनिबंधांनी देवपुजेची विस्तारान माहिती आयल्या. जैन लोक तीर्थंकरांची पूजा करतात. श्वेतांबर आनी दिगंबर पंथांच्या पूजा विधींनी कांय प्रमाणांत बदल आसता. महायान बौध्द हे बुध्द आनी बोधिसत्व हांची पूजा करतात. 'नाम' हें ईश्वराचें स्वरूप आशिल्ल्यान फकत 'नामांची' पूजा करची अशें शीख लोक मानतात. ते गुरू 'ग्रंथसाहिबाक' नमस्कार करतात पूण ती पूजा न्हय अशें ते मानतात. पुजेंत वस्तू देवाक अर्पण करचेपरस प्रामाणीकपण आनी भावार्थाक चड म्हत्व आसता, अशें चीनी धर्मांत मानलां.

देवयज्ञांत वैदिक मंत्रांनी आवाहन करतात त्यो देवता काल्पनीक आसतात, पूण देवपुजेंत मुर्तीकरण जालें आनी तांकां उपचार समर्पीत करतना पुजकाक एक वेगळेंच सूख मेळूंक लागलें. उपरांत हेच देवपुजेचे वैयक्तिक आनी सामुदायिक अशे दोन वेगळे विभाग जाले. वैयक्तिक विभागांत लोक आपापले इश्ट देवतेची मुर्तीची घरांत स्थापणूक करून तिची पूजा करूंक लागले आनी सामुदायिक पुजेखातीर देवकुळां, देवघरां वा देवळां तयार जावंक लागलीं. देवळांतल्या मुर्तींचो आकार घरांतले मुर्तीपरस व्हड जावन तांची थंय कायमची प्रतिश्ठा जावंक लागली. ह्या सामुदायिक पुजनीय देवांभितर शिव आनी विष्णु ह्या दोन देवांक सगळ्यांत चड प्रभुत्व मेळ्ळें. फुडें देवी, लक्ष्मी, गणपती, राम, कृष्ण हांचींय देवळां निर्माण जावन तांच्यो पूजा जावंक लागल्यो.

उदक, अग्नी, हृदय, सूर्यमंडळ, वेदी आनी प्रतिमा ह्या स सुवातींनी देवाची बरे तरेन पूजा करची अशें मुनींनी सांगलां. ह्या स सुवातींभितर मुर्ती ही सुवात चड रूढ आसा. समाजांतलो चडसो वर्ग भाविक पूण तत्त्वीक नदर नाशिल्लो असो आसता. अशा समाजाचे भावार्थ-भक्तीखातीर देवमूर्तीची चड गरज आसता. हेखातीर उपरांत देवपुजेंत मूर्तीकरणाचो विचार निर्माण जालो. घरांत आनी देवळांत पुजपाच्यो मूर्ती कशो करच्यो वा तांचें प्रमाण किदें आसचें, हे विशीं मुर्तिविज्ञान आनी मत्स्य पुराण हातूंत विस्तारान बरयलां.

**मूर्तिपुजा** - हिंदू, बौध्द आनी जैन धर्मांतली देवपुजेची एक खाशेली पद्दत म्हळ्यार मुर्तिपुजा. सैमीक वस्तूंची पूजा ही देवपुजेचोच एक प्रकार. सैमीक मूर्त वस्तू सूर्य, अग्नी, न्हंय, दोंगर, रूख आनी पशू हे आसात. नवग्रहांतले चंद्र, मंगळ, बुध, गुरू, शुक्र, शनि आनी सूर्य ह्यो मूर्त वस्तूच आसात. राहू आनी केतू ह्यो सावल्यो. सुर्याची साक्षात पूजा वा सुर्याची मूर्त करून पूजा करपाची चाल खूब पुर्विल्ल्या काळासावन आसा. पिंपळ, वड, तुळस ह्या वनस्पती वर्गांतल्या पदार्थांची पूजा हीय मुर्तिपुजाच. गंगा, यमुना, सरस्वती, सिंधू, कृष्णा, गोदावरी, कावेरी ह्या न्हंयांची पूजा ही हिंदू धर्मांत खूब पुर्विल्ल्या काळासावन रूढ आसा. ह्या न्हंयदेवतांच्यो मूर्ती करून पूजा करपाची चाल आसा.

ग्रीसी, रोमी आनी क्रीटांतले लोक हे मुर्तिपुजकूच आशिल्ले. मुर्तिपुजा ही धर्मीक संस्था जगांतल्या पुर्विल्ल्या संस्कृतायांनी व्हड प्रमाणांत प्रचलीत आशिल्ली. ग्रीसी, रोमी आनी क्रीटी लोकांचे धर्म हे हिंदू धर्माभाशेनूच अनेकदेवतावादी धर्म आशिल्ल्यान तांच्या देवांच्यो विंगड विंगड कथा लेगीत प्रचलीत आशिल्ल्यो. मध्य उदेंतेंतली ॲसिरिया, बॅबिलोनिया तशेंच इजिप्त हांगाय मुर्तिपुजेक खूब चंवर आयिल्लो. प्रेषित मुहंमदाचे पयलीं अरबी जमातींत शेंकड्यांनी मुर्तिपुजेचे प्रकार आशिल्ले. ते सगळे मुहंमदांनी बुडयले आनी मक्केंत 'काबा'चो तो एक पवित्र फातर दवरलो.

वेदांच्या पयलींच्या काळांत भारतांत मोहें-जो-दाडो आनी हडप्पा गांवांत, सिंधु संस्कृतायेच्या राश्ट्रांत शिवाभाशेन देव आनी दुर्गादेवीभाशेन देवी वा मातृदेवता हांची मुर्तिपुजा जाताली. थंय लिंगपुजाय आशिल्ली अशें हालीं मेळिल्ल्या अवशेशां वयल्यान समजता.

सुर्याभाशेन हेर ग्रहांच्यो मूर्ती वा प्रतिकां घेवन तांची पूजा करपाची चाल आसा. पंचायतनपुजेंत विष्णुखातीर शाळिग्राम, शिवाखातीर बाणलिंग, गणपतीखातीर नर्मदा न्हंयेंतलो तांबडो फातर आनी सुर्याखातीर स्फटिकमणी घेवंचो अशें सांगलां. देवीखातीर चडशी मुर्तूच वापरतात. मंत्रविद्येंत यंत्र हें देवतेचें प्रतीक आसता. अडाणी आनी रानवटी लोक देवाचें प्रतीक म्हणून खंयचीय रोयण, जनावर, फातर वा मोरापाखांच्या कुच्याची पूजा करतात.

खूब पुर्विल्ल्या काळासावन, मुर्तिकला ही भारतांत प्रशस्त मानल्या. माती, लाकूड, विंगड विंगड तरांचे पाशाण वा संगमरवरी फातर, कंवची, तरा-तरांचे धातू, रत्नां हांच्यो इश्टदेवतेच्यो मुर्ती करून शास्त्रोक्त पद्दतीन, ते मुर्तीचें वर्णन लक्षांत घेवन कारागीर मुर्ती तयार करतात. देखीक - गणेश, हनुमान, देवी, लक्ष्मी-नारायण, विठ्ठल-रूक्मिणी, शिव-पार्वती, दत्तात्रेय आनी हेर हांच्यो मुर्ती तयार करपाचे कारखाने भारतांत आसात. मुर्तिपुजकाच्या धर्मीक तत्त्वज्ञानाप्रमाण प्रत्यक्ष मुर्ती ही देवता नासून वा हो देव नासून मंत्राच्या योगान ते मुर्तींत ते देवतेची शक्त प्रगट जाता. तेखातीर मुर्ती ही प्रत्यक्ष देव वा देवी नासून, त्या त्या अमूर्त देवाचें वा देवीचें प्रतीक आसा म्हळ्यार बोधक चिन्न. प्रत्यक्ष पुजाविधींत मुर्ती हो देव वा देवीच आसा अशा हेतान पुजारी पूजा करता पूण ती पूजा देवतातत्त्वाचीच पूजा आसता अशें मुर्तिपुजकाच्या धर्मशास्त्रांत सांगलां, म्हणून मुर्तिपुजेआड आशिल्ले जे धर्म तांचो मुर्तिपुजाविरोध प्रतीकवादी मुर्तिपुजेक लागू जायना.

– कों. वि. सं. मं.

**पूड** : तंबाकूचीं पानां आनी देठ हांचेर कांय प्रक्रिया करून, नाकान ओडपाखातीर वा दांत घांसपाखातीर तयार केल्ल्या पिठाक पूड म्हण्टात.

कांय अभ्यासकांच्या मतान अमेरिकेंतल्या आदिवासींनी पयलीं ही पूड प्रचारांत हाडली आसुंये. १६२० वर्सासावन स्पेनांत पुडीचो प्रसार सुरू जालो आनी उपरांत युरोप खंड आनी ब्रिटनांत पातळ्ळो. पुर्तुगेजां वांगडा भारतांत पुडीचो प्रसार जालो.

बरे प्रतीचे पुडीखातीर तंबाकूचीं वेंचीक पानां आनी देंठ वापरतात. सामान्य बाजारी प्रतीचे पुडीखातीर दाट पानां आनी खावपाक योग्य नाशिल्लीं अशीं तंबाकू करपाक उपेगांत हाडटात.

सुको आनी ओलो अशे तंबाकूचे दोन प्रकार आसात. वले पुडीक 'राप्पी' अशें इंग्लीश नांव आसा.

फ्रँच पद्दतीन राप्पी करपाखातीर तंबाकूचीं पानां आनी देंठ मिठाच्या

उदकांत भिजोवन घट्ट बांदून दवरतात. उपरांत तीं पानां बारीक कापून ५-६ म्हयने जमनीर पातळावन दवरतात. तशें केल्ल्यान तंबाकू आंबता. हे प्रक्रियेंत उश्णताय तयार जाता. एकेकदा तापमान ६०° सॅ. इतलें वाडटा. ह्या तंबाकूक एके तरेचो खाशेलो वास येता. हो वास उडचो न्हय म्हणून एके बंद कुडींत हीं तंबाकूचीं पानां दळटात. उपरांत हो पिठो लाकडी बंद पेटयांनी भरून सुमार ४९°-५४° सॅ. तापमानांत १० म्हयने दवरतात. ह्या काळांत हो तंबाकूचो पिठो परतून आंबता आनी पूड कडक जाता. उपरांत एके व्हड कोठयेंत ती पूड एक म्हयनो मुरयतात आनी विकूंक काडटात.

तंबाकू आंबोवपाचे दुसरे कृतींत, चुन्याच्या उदकांत वा काकयेच्या उदकांत पानां भिजयतात. आंबयल्ल्यान तंबाकूंतलें मॅलिक, सायट्रिक हीं कार्बनी आम्लां आनी २/३ निकोटीन ना जाता. उरिल्लें निकोटीन, आमोनिया आनी हेर द्रव्यां हांकां लागून पुडीक झोंबपी उग्र असो खाशेलो वास येता.

मद्रासी पूड तयार करतना १०० ग्राम तंबाकूच्या पानांचो पिठो घेवन तो १० ग्राम गायचें तूप आनी १० ग्राम बदामाच्या तेलांत तळशितात. न्हिवतकच तातूंत १० ग्राम कळीचो चुनो घालून उपरांत हें भरसण वस्त्रगाळ करतात.

आयरिश, स्कॉच, गोड पूड अशे सुके पुडीचे प्रकार आसात. हे पुडींत कळीचो चुनो भरशितात. ताका लागून नाक सुकें जावन पूड नाकाक झोंबता. ही पूड करतना लेगीत आंबोवपाची पद्दत आसा. एका प्रकारांत, तंबाकूचीं पानां पयलीं वतांत सुकोवन तांचो चुरो करतात आनी लोखणी आयदनांत ५-६ दीस मेरेन भिजत दवरतात. तशें केल्ल्यान तो आंबता. उपरांत तो वतांत सुकोवन दळटात आनी वस्त्रगाळ करतात. दुसरे एके तरेचे कृतींत, तंबाकूच्यो कांडयो घेवन तातूंत आठ पटींनी उदक घालून तांचो १/८ काडो करतात. तंबाकूचीं पानां ७-८ फावटीं ह्या काड्यांत भिजोवन सुकयतात. उपरांत दळून पूड करतात.

पुडीक बरो वास येवपाखातीर कस्तुरी, लवंगां, गुलाब, जाय-जूय, चमेली हांचीं द्रव्यां वापरतात. भारतांत चडशी तमीळनाडू, गुजरात, पंजाब आनी उत्तर प्रदेश ह्या राज्यांनी पूड तयार जाता. तशेंच तमीळनाडू, केरळ, कर्नाटक, ओरिसा आनी अस्तंत बंगाल ह्या राज्यांनी पुडीचो चड खप जाता. चड करून पुडीचें व्यसन खेड्यांतल्या लोकांभितर दिसता. शारांभितर पूड ओडपी लोकांचो पयलो नंबर कलकत्त्याचो लागता. चेन्नईंत पुडीचे चड कारखाने आसात. रायचूर, विजापूर, बेल्लारी आनी आंध्र प्रदेशांतले कुर्नूल ह्या वाठारांतले लोक पुडीचो उपेग दांत घांसपाखातीर करतात. ही पूड मात्शी उण्या दर्जाची आसता.

नाक चोंदल्यार, शिंको येवपाखातीर पूड ओडटात. पूण हें व्यसन जावपाची शक्यताय आसता. नेपोलियन, सॅम्युएल जॉन्सन, चवथो जार्ज हे नामनेचे मनीस पुडीचे चाहते आशिल्ले. पूड घालपाखातीर तरेतरेच्या प्रकारांच्यो आनी आकारांच्यो डबयो खाशेल्या काळांत प्रचारांत आयिल्ल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**पूर्णसरस्वती :** (इ.स. च्या १४ व्या शतमानाची सुरवात).

एक केरळी कवी आनी नाटककार. दक्षीण मलबारांत एका ब्राह्मण घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताच्या गुरूचें नांव पूर्णज्योती. हे दोगूय गुरूशिष्य संन्याशी आशिल्ले. ते त्रिचूराच्या मठांत रावताले अशें म्हण्टात. पुर्णसरस्वतीन जे ग्रंथ रचले तांचीं नांवां अशीं : विद्युल्लता - मेघदुतावयली टिका, रसमंजरी - मालती-माधवावयली टिका, रिप्पण अनर्घरापवा वयली टिका, भक्तीमंदाकिनी - शंकराचार्या विष्णुपादादी केशान्त स्तोत्रावयली टिका, ऋजुलघ्वी - माधवावयली काव्यात्मक टिका. हंसदूत - मेघदूताचे धर्तीचेर बरयल्लें काव्य. हेय मंदाक्रांता वृत्तांत आसून ताचे १०२ श्लोक आसात. हातूंत कांची नगरींत रावपी एके रमणीन वृंदावनांतल्या कृष्णाक मोगाचो संदेश धाडिल्ल्याचें वर्णन आसा. कमलिनी-राजहंस - हें पांच अंकी नाटकूय ताणें बरयलें. राजहंस आनी पंपातळ्यांतली कमलिनी हांच्या लग्नाचो प्रसंग तातूंत वर्णिला. ह्या नाटकांतलो एक श्लोक असो -

वाणी ममास्तु वरणीयगुणौघबध्दा ।<br>
श्लाह्या तथापि विदुवां शिवमाश्रयन्ती ।<br>
दासी नृपस्य यदि दारपदे नियुक्ता ।<br>
देवीती सापि बहुमानपदे जनानाम् ।

**अर्थ -** म्हजी वाणी जरी व्हड गुणसमुदायान भरिल्ली आसली तरी ती विद्वानांचे शीवभावनेची आश्रय करून राविल्ल्यानच तिका श्लाह्यत्व प्राप्त जालां. राजाची दासी जर ताची बायल जाली जाल्यार ती जशी देवी ह्या नांवान लोकांक भोवमानाची आसता तशेंच म्हजें वाणीचें आसा.

हाचेभायर पूर्णसरस्वतीन हेर बरेच टिकाग्रंथ बरयल्यात. संस्कृत साहित्याक समृध्द करपी केरळी कवी पुर्णसरस्वतीचो म्हत्वाचो वांटो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**पूर्व :** (पळेयात दिका).

**पूर्वा -१ :** फातरांनी तयार केल्लें चवकोनी ल्हान कुंड जंय पशुबळी दितात ताका पूर्वा म्हण्टात. दरेका देवळाच्या फाटल्यान आनी फुडें अशीं दोन कुंडां वा शिळा आसतात. हांकां 'फाटली आनी फुडली पूर्वा' अशें म्हणटात. पूर्वाचे पुजेचे खास प्रकार नात. नाल्ल फोडप, बळी दिवप, विशिश्ट प्रसंगाचेर दिवो लावप हे विधी करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**पूर्वा -२ :** भारतीय नखेत्रमाळेंतले इकरावें नखेत्र. हाका पूर्वानखेत्र अशेंय म्हण्टात. अथर्ववेदांत हाचो पूर्वा फाल्गुनी असो उल्लेख आयिल्लो आसा.

हें नखेत्र सिंह राशींत येता आनी हातूंत डॅल्टा आनी थीटा लिओनीस अशे दोन तारे आसात. तातूंतलो डॅल्टा (झोज्मा; विषुवांश ११ ता. ११ मि. २०.७ से., क्रांती + २०° ४८′ ३२″.१ प्रत २.५८; →ज्योतीशशास्त्रीय सहनिर्देशक पद्दत; प्रत) हो पूर्वाचो योगतारो (मुखेल तारो).

हाची देवता अर्यमा आनी आकृती शय्या मानतात. हें उग्र, सुलोचन आनी स्त्रीनखेत्र. तशेंच, हें हस्तिमुख अरूणवर्ण आनी दोनूय हातांनी पोपट धारण करपी, अशें हेमाद्रीन हाचें मुर्तिध्यान सांगलां.

ह्या नखेत्राचेर जल्मल्लो मनीस हुशार, धाडसी, रागीट, धूर्त आनी

तत्पर आसता अशें कोष्ठिप्रदिपांत सांगलां.

मे म्हयन्याच्या पयल्या सप्तकांत हें नखेत्र माथ्यावयर दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**पूर्वाभाद्रपदा :** भारतीय नखेत्रमाळेंतलें पंचविसावें नखेत्र. उच्चैःश्रवा (पॅगेसस) ह्या तारका चोम्यांतल्या 'पॅगेसी' ह्या नांवान वळखतात. त्या चवकोनाचे अस्तंते वटेन आल्फा पॅगेसी (मारकॅब; विषुवांश २३ ता. २ मि. १० से. क्रांती - १४°५५'३०".४ आनी प्रत २.५७ ⟶ ज्योतीशशास्त्रीय सहनिर्देशक पद्दत; प्रत) आनी दुसरो बीटा पॅगेसी (शिआत; विषुवांश २३ ता. १ मि. १४.९ से. क्रांती +२७°४८'१".५, प्रत २.६१) अशे दोन तारे मेळून पूर्वाभाद्रपदा नखेत्र जाता. हातूंतल्या आल्फाक पूर्वाभाद्रपदाचो योगतारो (मुखेल तारो) मानतात.

ह्या नखेत्राचे पयले तीन चरण कुंभ आनी चवथो चरण मीन राशींत आस्पाविल्लो आसा. वेदीक काळांत पूर्वाभाद्रपदा आनी उत्तराभाद्रपदा हांकां मेळून प्रौष्ठपदा म्हण्टाले. ती अमृताची राखण करपी अशें तै. ब्राह्मणांत म्हळां. तशेंच, हातूंतल्यान काडिल्ली रेशा ध्रुवांतल्यान वता. हाची देवता अज एकपाद आनी आकृताय यम वा मंचक मानतात.

हें नखेत्र उग्र, अधोमुख आनी पुंनखेत्र. ह्या नखेत्राचेर जल्मल्लो मनीस जितेंद्रिय, आदरणीय आनी कलाचतुर जाता, अशें कोष्ठीप्रदिपांत म्हळां. शुभ्र, गोमुख, मेषवाहन आनी मद्यपात्र धारण करपी अशें हाचें मुर्तिध्यान हेमाद्रीन सांगिल्लें आसा.

नोव्हेंबराच्या पयल्या सप्तकांत हें नखेत्र माथ्यावयर दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**पूर्वाषाढा :** भारतीय नखेत्रमाळेंतलें विसावें नखेत्र. वृश्चिक तारकाचोम्याचे नांगयेच्या तोंकाकडेन हें दिसता. हातूंत तीन वा चार तारे मानतात. धनु राशींत तें आसून धनुंतलो डॅल्टा, गॅमा, लॅम्डा आनी एप्सायलॉन हे तारे हातूंत आस्पावतात. हातूंतलो डॅल्टा (कॉस मीडिया; विषुवांश १८ ता. १७ मि. ३९.८ से., क्रांती - २९°५१'७".७, प्रत २.८; ⟶ ज्योतिशशास्त्रीय सहनिर्देशक पद्दत; प्रत) हो योगतारो (मुखेल तारो). एप्सायलॉन (कॉस ऑस्ट्रालिस; विषुवांश १८ ता. २० मि. ४३.२ से. क्रांती - ३४°२४'४०".३, प्रत १.९) आनी लॅम्डा कॉस बोरिऑलिस; विषुवांश १८ ता. २४मि. ४५.६ से. क्रांती - २५°२७'८".१ प्रत २.९) हे उल्लेखनीय आसात. ह्या नखेत्राचो उल्लेख अथर्ववेदांतूय आयिल्लो आसा.

पूर्वाषाढा ह्यो गोऱ्या रंगाच्यो कन्या तरणाटच्यो आनी सोबीत आसात, अशें तांचें वर्णन तै. ब्राह्मणांत केल्लें आसा. त्यो सत्कर्मां आनी मधुसंचय करतात. आप ही ह्या नखेत्राची देवता आनी आकृती शय्या. हें नखेत्र उग्र, कुड्डें आनी स्त्रीनखेत्र आसा. ह्या नखेत्राचेर जल्मलो मनीस देवभक्त, अनुरक्त, भावंडांक मान्य आनी शिटूक आसता अशें कोष्ठीप्रदिपांत सांगलां. पूर्वाषाढा ही निळ्या रंगाची, हळदुवें वस्त्र वापरपी आनी चार भुजांची अशें तिचें मुर्तिध्यान हेमाद्रीन सांगिल्लें आसा.

हें नखेत्र सप्टेंबर म्हयन्यांत रातचें णवाच्या अदमासाक माथ्यावयर दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**पूविडल :** रांगोळेचो एक प्रकार. पूव म्हळ्यार फुलां आनी इडल म्हळ्यार तांची रचणूक. केरळांतले लोक फुलां आनी पाकळ्यो हांची रांगोळी घालतात. सुमार दोन हजार वर्सां आदीं सावन पूविडलची सुरवात जाली आसूंक जाय. कारण वात्सायनान चवसठ कलांमदीं 'तण्डुलकसुमबलिविकारा' असो तिचो उल्लेख केल्लो आसा. कामदेवाचे पुजेखातीर आदल्या तेंपार चड करून फुलांची नक्षीदार रचना करताले. ती परंपरा केरळांत अजुनय चालू आसा.

पूविडलची रचना चड करून ओणमचे परबेंत करतात. ह्यो रचना वांटकुळ्यो, कमळा पानांवरी, षटकोनी आदी जायत्या प्रकारांच्यो आसतात. सुर्वेक बोटांनी आकृती काडून उपरांत तिचेर फुलां रचतात. ही रचना पुराय जातकच कांय जाण तिचेमदीं तुळस दवरतात. कांय जाण फुलांचेंच ऊंच कमळ करतात वा कांय जाण नुस्त्याची आकृताय करतात. रंगसंगतीचो विचार करून ही फुलांची रचना करतात. रांगोळेचो हो एक आगळोवेगळोच प्रकार.

- कों. वि. सं. मं.

**पृथ्वीराज चौहान :** (११५९-११९३). दिल्लीचेर राज्य करपी निमाणो हिंदू सम्राट आनी चाहमान राजवंशांतलो एक प्रतापी राजा. राजा सोमेश्वर आनी राणी कर्पूरदेवी हांचो तो पूत. ११७७ त सोमेश्वराक मरण आयलें. तेन्ना पृथ्वीराज राज्यकारभारांत अणभवी नाशिल्ल्यान ताचे आवयन म्हळ्यार कर्पूरदेवी हिणें कदंबवास ह्या मुखेल प्रधानाच्या आदारान राज्य चलयलें. कदंबवासान पृथ्वीराजाचें सगळ्यांपरी रक्षण केलें. ह्याच तेंपार कर्पूरदेवी हिणें भुवनैकमलु ह्या शूर मनशाची सेनापती म्हणून नेमणूक केली. ताणें पृथ्वीराजाच्या सगळ्या दुस्मानांचेर आपलो शेक बसयल्लो. अशे रितीन सगळ्या दिकांनी थिराय प्राप्त जाले उपरांत पृथ्वीराज राज्यकारभार सांबाळपाक लागलो. कांय दिसांनीच अजमेर सोडून तो दिल्लीक गेलो. दिल्लीचें राज्य ताच्याच वंशाकडेन आशिल्लें.

दिल्लीक सत्ताधीश जाले उपरांत पृथ्वीराजाक आपल्या सामर्थ्याचो फाजील अभिमान जालो. तो दरबारांत साबार मंत्र्यांक आनी सरदारांक हिणसावपाक लागलो. हाका लागून राज्याची स्थिती इबाडली. ह्याच तेंपार मुहमंद घोरी हाणें भारताचेर घुरयो घालपाक सुरवात केल्ली. ११९०-९१ वर्सा ताणें पृथ्वीराजाच्या राज्यार आक्रमण केलें. पृथ्वीराजान आपल्या व्हड सैन्याच्या आदारान घोरीचेर परत हल्लो करून तराई नगरांत ताचेर हार घाली.

कनौजाचो राजा जयचंद्र गाहडवाल आनी पृथ्वीराज हांचेमदीं आशिल्ली दुस्मानकाय आनीक वाडली. जयचंद्राची चली संयोगिता ही पृथ्वीराजाच्या मोगांत पडिल्ली. आपल्या दुस्मानाचेर आपलीच चली मोग करता हें आयकून ताका खूब राग आयलो. ताणें संयोगिताचें स्वयंवर मांडलें. स्वयंवराक ताणें सगळ्या राजांक आपोवणें धाडिल्लें पूण पृथ्वीराजाक मुद्दाम भायरायल्लो. संयोगिताक हि खबर कळटकच तिणें चोरयां पृथ्वीराजाक आपोवणें धाडलें. पृथ्वीराज भेस बदलून स्वयंवर स्थळार आयलो. लग्न मंडपांत दारालागीं द्वारपाल म्हणून जयचंद्रान पृथ्वीराजाचो लाकडी पुतळो उबारिल्लो. संयोगिता मंडपांत आयले उपरांत तिणें जुस्त त्या लाकडी पुतळ्याक वरमाळ घाली. त्याच वेळार थंय लिपून बशिल्ल्या पृथ्वीराजान तिका उबारून घोड्यार घालून दिल्लीक व्हेली.

पृथ्वीराजाचें संयोगिताकडेन लग्न जाले उपरांत राज्यकारभार सोडून तो तिचेवांगडाच चड वेळ सारूंक लागलो. ताणें हेर राजपूत राजांकूय सतावपाक सुरवात केल्ली. पृथ्वीराज आनी राजपूत हांची दुस्मानकाय वाडटा तें पळोवन घोरीन परत दिल्लीचेर घुरी घाली. घोरी जैतवंत जालो. पृथ्वीराज हाचें सैन्य चारूय दिकांनी धांवपाक लागलें. पृथ्वीराजूय घोड्यार बसून धांवपाक लागलो. पूण घोरीच्या सैनिकांनी ताका धरून जिवेशीं मारलो. पृथ्वीराज हो दिल्लीचो निमाणो राजा थरलो. ताच्या मरणाउपरांत मुसलमान सत्ताधिशांनी उत्तर भारताचेर आपलो शेक बसयलो.

– कों. वि. सं. मं.

**पृथ्वीराज राठौड :** (जल्म : १५४९; मरण : १६००).

राजस्थानांतलो एक नामनेचो भक्तकवी आनी झुजारी. तो बिकानेर नरेश राय कल्याणमल हाचो चलो आशिल्लो आनी अकबराच्या दरबारांत तो सरदार म्हूण राविल्लो. मुहणोत नैणसी ह्या राजस्थानी इतिहासकाराच्या उल्लेखावयल्यान कळटा तेप्रमाण अकबरान ताका गागरोनगडाची जहागीर दिल्ली. तो देशाभिमानी आनी धर्माभिमानी क्षत्रिय आशिल्लो. ताका राणाप्रतापसिंहाविशीं अभिमान आशिल्लो.

पृथ्वीराजान वेलिक्रिसन रुकमणीरी, दसम भागवत रा दूहा, दशरथ रावउत, गंगालहरी, वसुदेवउत आदी जायते ल्हान व्हड कवितांझेले उजवाडायिल्ले. ताच्यो स्फुट कविताय भरपूर आसात. तो डिंगल आनी ब्रज ह्या दोनय भासांचो पंडीत आशिल्लो. ताची भास ओजस्वी आनी रचना सरस आसा. ताचीं सगळींच वर्णनां प्रत्ययकारी आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**पेंढारी :** लुटारू लोकांचो एक वर्ग. मोगलांच्या पडट्या काळांत ह्या वर्गाचो जल्म जालो. पेशव्यांच्या वा हेर सरदारांच्या सैन्यावांगडा जे बाजारबुणगे आसताले तांकां पेंढारी म्हण्टाले. तांकां दुस्मानाच्या वाठारांतल्यान खंडणी वसूल करपाचें काम मेळटालें. ती वसूल करतना ते खूब लुटमार आनी अत्याचार करताले. लुटीचो थरावीक भाग तांकां सरकारांत भरचो पडटालो. हिंदूस्थानांत जशी-जशी इंग्लीशांची सत्ता पातळत गेली तशी-तशी देशी सेना उणी जायत गेली. तेन्ना ह्या लुटारूंनी आपले पंगड करून माळवा, गुजरात, महाराष्ट्र, मद्रास, कर्नाटक, बिहार आदी वाठारांत गोंदळ घालो. कांय संस्थानिकांचो तांकां चोरयां आदार मेळटालो. फुडें लॉर्ड हेस्टिंग हाणें सादारण बंदोबस्तान तांचेर आळो घालूंक येना हें पळोवन जायत्या सरदारांचो आदार घेवन माळवांत तांचेर हार घाली.

ह्या पेंढ्याऱ्यांचे वंशज सद्या कसलोय उद्देग करूनं पोट भरतात. तांची एक स्वतंत्र जात जाल्ली आसून म्हैसूर, महाराष्ट्र आनी मध्यप्रदेश ह्या राज्यांनी तांची मुखेल वसती आसा. हे लोक काटक आनी सडसडीत आसताले. तांचेर हल्लो जाल्यार ताका तोंड दिना आसतना ते पळून वताले आनी दुसरेकडेन एकठांय जावन खंय तरी धाड घालताले. तांची लुटीची येवजण पद्दतशीर आसताली. गांवकारांक पयली सुचोवणी दिवन ते खंडणी वसूल करपाक वताले आनी ताणीं ती दिलिना जाल्यार तांकां त्रास दिवप, तांचीं घरां लासप, बायलांचेर अत्याचार करप आनी हेरांक जिवे मारप असलीं कामां ते करताले. लुटीचो म्हाल ते उज्जैन, इंदूर आदी शारांतल्या वेपाऱ्याकडेन विकताले. मराठ्यांच्या काळांत कोणाकूच तांकां नमोवपाचें बळगें नाशिल्लें. उरफांटे, दौलतराव शिंद्याक इंग्लीशांआड पेंढारी आपल्याक उपेगी पडटले अशी आस्त आशिल्ली. फुडें ब्रिटीशांनी सगळेकडेन शांतताय प्रस्थापीत करतकच तांचे लुटमारीक आळो बसलो. पेंढाऱ्यांमदीं सगळ्या जातीजमातींची भरती जाताली. पूण ते चडशे मुसलमान आसताले. तशेंच, ते ज्या ज्या वाठारांत रावताले थंयची भास उलयताले. दर्शलहबर ही उर्दू भास तांची सांकेतीक भास आशिल्ली.

मरी आई, म्हसोबा, खंडोबा आदी देवांक ते भजतात. हिंदूच्यो सगम्यो परबो ते मनयतात. रुप्या पत्र्याचे टांक करून ते तांची पुजा करतात. हे टांक तांच्या पुर्वजांच्या नांवान तांच्या घरांत दवरिल्ले आसतात. हे लोक मुसलमानांच्या पिराकय भजतात. तांचीं धर्मीक कृत्यां करपी पुरयत तांचेच जातींतलो आसता.

हिंदू पेढाऱ्यांची आळंदे, क्षीरसागर, घायतिलक, रणशिंग आनी थोरात अशीं पांच कुळां आसात. तांचेमदीं मामेभयणीकडेन लग्नां जातात. तशेंच भोवपत्नीत्वाची चाल आसा. लग्नां करतना चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. लग्नावेळार एक प्रतिशठीत मनीस न्हवऱ्याक आपल्या घरा व्हरून फेंटो बांदता आनी ताका व्हंकलेगेर हाडटा. उपरांत पिठाचे पुतळे तयार करून ते तेलांत तळटात, तांकां पुर्वजांचीं नांवां दिवन ते न्हवऱ्यागेर व्हरून सगळ्यांक वांट्टात. हाका रूखवत म्हण्टात. तांचे चडशे लग्नविधी मराठ्यांच्या विधींवरीच आसतात. लग्न लागतकच शेटीच्या घरांतल्यान देवीची मूर्ती हाडून गांवचे वेशीर तिची पुजा करतात आनी उपरांत बिराडकार घरा परततात.

हे लोक मडें पुरतात. मडें अस्तंतेवटेन वा उत्तरेवटेन तकली करून उमथें वा बसकें दवरतात. धा दिसांनी दादले क्षौर करतात आनी जेवण दितात. मेल्ल्याचें वर्सश्राध्द करतात. पितृपंद्रशेंत अक्षयतृतीयेक वा वर्सतिथीक श्राध्द करतात.

**मुसलमान पेंढारी :** हे चडशे दक्षिणेकडेन आसतात. बेळगांवांतल्या मुसलमान लोकांवरी तांची राहणी, आचार आनी भेस आसता. हिंदू पेंढाऱ्याकडेन तांचे रोटी-बेटी वेव्हार चलनात. पूण अत्तार बागवान अशा मुसलमान जमातींकडेन जातात.

– कों. वि. सं. मं.

**पेजे फेस्त :** (पळेयात फेस्त).

**पेछवी :** चित्रकलेचो एक प्रकार. कपड्यांचेर देवांचीं आनी पुराणीक प्रसंगांचीं चित्रां रंगोवप हाका अस्तंत भारतांत पेछवी म्हण्टात. ही एक खूब पोरणी प्रथा आसून हे कलेचो उल्लेख संयुक्त निकाय, भाशांचें दूतवाक्य आनी हेर पुर्विल्ल्या साहित्यांत मेळटात. नाथद्वारा ह्या वाठारांत पेछवीचो उगम जालो. थंय येवपी श्रीनाथ भक्तांक परत वतना नाथाजीची कुरू म्हणून थंयच्या चित्रकारांनी कपड्यांचेर चित्रां रंगोवन दिवपाक सुरवात केली. भक्तलोक हीं चित्रां व्हरून आपले कृष्णमुर्तीच्या फाटल्यान लावंक लागले. पेछवींत दोन प्रकारांचीं चित्रां पळोवंक मेळटात. गोवर्धन पर्वताचेर वल्लभाचार्यांक नाथाजीचें दर्शन घडटा हो एक प्रकार आनी पुजेखातीर काडिल्लें फकत नाथजीचेंच चित्र हो दुसरो प्रकार. सतराव्या शतमानांतली पेछवी चित्रां दाट भरडे खादीचेर काडटाले. सगळीं चित्रां स्वतंत्रपणान

हातांनी काडिल्लीं आसतालीं. गोपालकृष्णाची बांसरी आयकून ताचे भोंवतणीं एकठांय जाल्लीं गोरवां चडशीं अशा चित्रांनी दिसतात.

– कों. वि. सं. मं.

**पेटकार, बेलप्पा असरमाप्पा :** (जल्म : १ जानेवारी १९३१, सिंदखेडराजा, बुलढाणा, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें मॅट्रिके मेरेन शिक्षण घेतलें. ३ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा रणजितसिंह ठाकूर हाच्या फुडारपणाखाला पार्श्यां-पेडणे जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पत्रकां वांटप, घोशणा दिवप, तिरंगी बावटे लावप असलीं कामां तो करतालो. पोलिसांनी ताका धरून मार दिलो आनी उपरांत शिमेर व्हरून सोडलो. २५ जानेवारी १९८८ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**पेडणें :** गोंयचो सामको उत्तरेकडलो तालुको. ताचे उदेंतेक आनी उत्तरेक महाराष्ट्राचो सावंतवाडी तालुको आसा. ताचे दक्षिणेक बार्देस तालुको आसा.

१६६४ चे निमाणें शिवाजी भोसलेन कुडाळ आनी दिवचलसयत




आदिलशहाकडल्यान पेडणें घेतलें. थंयचे आदिलशहाचे थळावे सरदार आशिल्ल्या देसायांनी पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत आशिल्ल्या बार्देसांत आलाशिरो घेतलो. उपरांतच्या काळांत पेडणें मोगल साम्राज्याखाल आशिलें. १६९८त मोगलांकडच्यान तें कुडाळच्या भोसल्यांकडे पावलें. १७८३त पुर्तुगेजांनी हळर्णेचो किल्लो घेतलो. १७८८ मेरेन दिवचल, सत्तरी, फोंडें, केपें आनी सांगें हांचेवांगडा पेडणें पुरायपणान पुर्तुगेजांच्या नवे काबीजादींत सामावलें.

पुर्तुगेजांकडल्यान व्हायकाऊंट हो किताब मेळयल्ले श्रीमंत रावराजे आत्माराम वासुदेव देशप्रभू हांचो व्हडलो इतिहासीक वाडो ह्या तालुक्यांत आसा. तातुंतूच देशप्रभूचें स्वताचें वस्तू संग्रहालय आसा.

वेगवेगळ्या मळांचेर मोलादीक वावर केल्ले जिवबादादा केरकर, भाऊ दाजी लाड, मुरारबा पेडणेकर, हिराबाई पेडणेकर आदी नामनेचे गोंयकार ह्याच तालुक्यांत जावन गेले.

गोंयच्या सुटके चळवळीच्या काळांत १९५४त तेरेखोल हांगा सत्याग्रह जाल्लो.

गोंयच्या अनुसूचित जातींतल्या लोकांचो आंकडो चड प्रमाणांत पेडण्यांत मेळटा. तेखातीर पेडणे तालुक्यांतले मतदारसंघ आलटून पालटून अनुसूचित जातींखातीर राखून दवरल्यात.

पेडणेचो दसरो गोंयांत तसोच गोंयाक तेंकून आशिल्ल्या महाराष्ट्रांत प्रसिद्ध आसा.

ह्या तालुक्यांत हरमल वेळ, मोरजी वेळ, भगवती देवूळ, म्हाळवीर देवूळ, माऊली देवूळ, तेरेखोल किल्लो, हळर्णेचो किल्लो, पत्रादेवी हुतात्मा स्मारक हीं म्हत्वाचीं स्थळां हांगा आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**पेडणेकार, जगन्नाथ वसंत :** (जल्म : ७ मार्च १९३२, आरोबा पेडणें).

सुटकेझुजारी. ताणें बी.ए. तशेंच बी. एड्. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' आनी 'राष्ट्रीय स्वंयसेवक संघ' ह्या संस्थांचो वांगडी आशिल्लो. सुटकेझुजारी पिटर आल्वारिस हाच्या फुडारपणाखाल तो वावर करतालो. बसका घेवप, परिशदो घेवप, भूंयगत झुजाऱ्यांक पालव दिवप, तरणाट्यांक सुटके झुजांत वांटो घेवंक स्फूर्त दिवप असलीं कामां तो करतालो. २७ जून १९५४ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. एक फेब्रुवारी १९५८ ह्या दिसा आग्वाद बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. महाराष्ट्र सरकारान ताची खाशेलो कार्यकारी दंडाधिकारी म्हणून नेमणूक केल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**पेडणेकार, जयराम गोविंद :** (जल्म : ७ मार्च १९२०, म्हापशें-बारदेस).

सुटकेझुजारी. १९५५ मेरेन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५५ पसून तो सुटकेझुजाऱ्यांक हातबॉम आनी हत्यारां पावयतालो आनी भूंयगत राष्ट्रीय वावरांनी वांटो घेतालो. ऑक्टोबर १९५७ त पोलिसांनी ताका धरलो. ताका पणजी आनी आग्वाद बंदखणींनी दवरलो. ऑगस्ट १९५९ वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९७३ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८६ ह्या दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**पेडणेकार, मुरारबा :** गोंयचो (पेडणे) नामनेचो संगीत कलाकार. ताका मुळांतूच संगिताचें आंग आशिल्लें. महाराष्ट्रांतल्या हरिदासांनी शास्त्रीय संगिताची परंपरा गोंयांत चालू दवरिल्ली. ह्या हरिदासांक मुरारबा आपल्याल्या ह्या उपजत गुणावरवीं मृदंग, पखवाज हांचेर साथ करतालो. फुडें आपल्यां गुणांक वाव मेळोवन दिवपाखातीर तो गोंयाभायर गेलो आनी लखनौक पावलो. त्या काळांत उत्तर हिंदुस्थानी घरंदाज कलाकारांक आपली विद्या दुसऱ्याक दिवप म्हळ्यार जीव तोडून दिल्लेवरी दिसतालें. हाकाच लागून संगितांतल्यो ल्हान-ल्हान गजाली आत्मसात करपाक ताका तीन-चार म्हयने वाट पळोवंची पडली. कोणाचोच आदार नासतना पुराय उत्तर हिंदूस्थानांत पांयांनी भोंवन उस्तादांची सेवा करून, तांचे मन जिखून ताणें जायत्या तरांची वादनकला आत्मसात केली. धृपद गायकी, ख्याल गायकी, जायत्या तरांचीं तंतुवाद्यां, नाचांतले बोलभाव, तालांतले कठीण अशे ब्रह्मताल, रूद्रताल, लक्ष्मीताल, गणेश, विष्णु आदी ताल, चंपक, पंचम आदी सवाऱ्यो, आडाचौताला ह्या विशम मात्रांच्या तालाचेर ताणें सुमाराभायर प्रभुत्व मेळयलें.

एकुणिसाव्या शतमानाचे अखेरेक भारतांतल्या संगितकलेच्या मळार मुरारबाची नामना पातळ्ळी. संगीतकार ताका उस्ताद मुरारबा ह्या नांवान वळखूंक लागिल्ले. वेगवेगळ्या वाठारांनी आपलें कसब दाखोवन उस्ताद मुरारबा गोंयांत आयलो. गायन-वादन आनी नाच आदी कलांनी निपूण जाल्लो हो कलाकार थोडोच तेंप गोंयांत रावलो आनी ताणें गोंयांतले गायन-वादन कलेक स्फूर्त दिली.

इ.स. १८७० च्या सुमाराक ताची 'पुणें गायन समाजांत' शिक्षक म्हणून नेमणूक जाली. थंय रावून ताणें संगीत विशयाचें जायतें नवें संशोधन केलें. ह्या वेळार ताणें 'स्वर शृंगार' ह्या नव्या तंतूवाद्याची निर्मिती करून संगिताच्या इतिहासांत उल्लेख करपासारकी कामगिरी केली. ह्या वांद्याची घडणूक आगळीच आशिल्ली. ताचो सकयलो वाटकूळ तंबोऱ्यावरी आनी मदलें आंग आनी वयलो सरळ भाग सरोद ह्या वाद्यासारको आशिल्लो. सप्तसुरांच्यो तारफा आनी खर्ज, जोड आनी मध्यमाची तार धरून आनीक सात तारो ह्या वाद्याक आशिल्ल्यो. फकत नाखटांनीच धर्शण केलें म्हण्टकच तातूंतल्यान स्वरेल नाद झंकारतालो.

मुरारबाच ह्या वाद्यांत खांपो आशिल्लो आनी तो एकटोच हें वाद्य वाजोवंक शकतालो. संगीत ह्या विशयाचेर मुरारबान कांय पुस्तकांय बरयल्लीं. ताचें 'संगीत-संजीवनी' हें पुस्तक १८९७ वर्सा उजवाडा आयलें. जायत्या रागांचे आरोह, अवरोह, स्वरलिपी सयत चिजो आनीक जायत्या तालांचें स्पश्टीकरण ताणें ह्या पुस्तकांत केलां. सतारवादनाचेर स्वरलिपीसयत ताणें कांय पुस्तिका बरयल्ल्यो. ध्रुपदी गायकी तो जितली बरो गायतालो तितलीच बिनूय बेसबरो वाजयतालो.

ताका जायते शिश्य आशिल्ले, तशेंच ताची नामना आयकून व्हड व्हड कलाकार ताच्या घराकडेन येताले. तेन्ना त्या कलाकारांच्यो मैफिली तो घडोवन हाडटालो. अशा वेळार तांचे मदले उणाव आनी चुको तांच्या कार्यक्रमा उपरांत बैठकीचेर बसून तांकां दाखोवपाची ताका संवय आशिल्ली. अशा वेळार कांय जाणांचो अपमान जातालो. उपरांत उस्तादाक पश्चाताप जावन तो तांकां मनोवपाचो यत्न करतालो. ताचें पुणें, बेळगांव, मुंबय, बेंगळूर, हुबळी आनी गोंयांत वास्तव्य आशिल्लें. तो सुमार ८० वर्सां जगलो. ताणें तयार केल्लें स्वरशृंगार हें वाद्य पुणेंच्या सरदार आबासाहेब मुजुमदार हांच्या संग्रहांत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**पेडणेकार, हिराबाई :** (जल्म : २२ नोव्हेंबर, १८८५, सावंतवाडी; मरण : १८ ऑक्टोबर १९५१, पालशेत, गुहागर).

एक नामनेची नाटककार. तिचों मूळ गांव पेडणें. हिराबाईच्या



ल्हानपणांतूच तिची आवय शेवंतूबाई हिका मरण आयलें. तेन्नासावन हिरा बाईची मावशी भीमाबाई हिणें आपल्या म्हऱ्यांत व्हरून तिचो सांबाळ केलो.

मराठी सातवी मेरेन हिराबाईचें शिक्षण जालें. तिचें संगीत शिक्षण परशुरामपंत बर्वे,

शंकरलाल धुळेकर, भास्करबुवा बखले, नानासाहेब जोगळेकर ह्या नामनेच्या गायक नटांच्या हाताखाला जालें. तशेंच बडोद्याच्या फैयाज खाँसाहेब हाचे कडल्यानूय तिणें संगीत विद्या संपादन केली. ह्या संगीत शिक्षणावांगडाच तिणें मराठी साहित्य आनी संस्कृत तशेंच इंग्लीश विशयाचो अभ्यास केलो.

नामनेचो नाटककार गोविंदराव देवल हाच्या सांगाताक लागून हिराबाईक नाट्याभिरूची उत्पन्न जाली. पिरायेच्या १८-१९ व्या वर्सा तिणें 'जयद्रथ विडबंन' हें नाटक बरयलें. १९०४ वर्सा उजवाडाक आयिलें हें नाटक रंगमाचयेर मात आयलेंना.

१९१२ वर्सा हिराबाईचें संगीत 'दामिनी' हें दुसरें नाटक उजवाडा आयलें. हें नाटक ललितकलादर्श नाटक मंडळीन रंगमाचयेर हाडलें.

हिराबाईकडेन उपजतूच श्रेश्ठ दर्जाची कवित्वशक्त आशिल्ली. तिणें बरयल्ल्यो कविता 'मनोरंजन' ह्या प्रतिशठीत मासिकांत छापून आयल्यात.

– कों. वि. सं. मं.

**पेणें :** देवळाकडेन संबंदीत असो गोंयांतलो एक कलाप्रकार. पेणें म्हळ्यार प्रवासाच्या दोन वांट्यांमदलो विसवाचो काळ. पेणें ह्या कला प्रकाराक जायत्या शेंकड्यांचो इतिहास आसा. हांगासल्ल्या पेण्यांचीं पंदराव्या शेंकड्याआदलीं चित्रां रोमाक आसात अशें सांगतात.

उत्सवा वेळार देवाची पालखी वा रथ थरावीक सुवातींनी थारता आनी थंय पालखेमुखार बायलो नाच करतात, ताका पेणें नृत्य अशें म्हण्टात. ह्या नाचापासत खास असो वेगळो भेस करीनात. सूर्त, शेनाय, मृदंग, सारंगी वा पेटी अशी संगिताची साथ आसता.

देवदासी (भावीण) समाजांतल्यो बायलो आनी चलयो हें नृत्य करतात आनी त्याच समाजांतले दादले तांका संगिताची साथ करतात.

पालखी थांबतकच 'झुलवा' ह्या स्तोत्र प्रकारान पेणें नृत्याक सुरवात जाता. झुलवा सोंपतकच देवदासी कुटुंबांतल्यो चार-पाच बायलो वळीन उब्यो रावतात आनी नाचतात. ह्या नृत्याचे दोन वाटे आसतात. सुरवेक खंयचेय शास्त्रीय गायकीच्या थाटांतलें गीत म्हण्टात. तेन्ना नाच नासता. उपरांत गिता वांगडा नाचय करतात. ह्या नृत्य प्रकारांत फकत पावली मारप आनी हात हालोवप हाकाच चड म्हत्व दितात. तोंड आनी दोळ्यांच्या अभिनयाची चडशी गरज नासता. वाटकुळींच उबीं रावन चार-पांच ते धा मेरेन कितल्योय बायलो हो नाच करतात.

ह्या नृत्याचे वेगवेगळे प्रकार आसात. 'केरवा' आनी 'फुलभोंवरो' हे तातूंतले प्रकार. वेगवेगळ्या देवस्थानांचे वेगवेगळे प्रकार आसतात. केरवा हो कथ्थक नृत्याचोच एक प्रकार अशें जाणकार मानतात.

आदल्या काळांत गोंयांत चडश्या देवस्थानांनी पेणें नाच जातालो पूण ल्हव-ल्हव करून आतां तो उणो जायत चलला. हो पेणें नाच चलता थंय तो चडसो भोगावळीच्या रुपांत चलता. बरेचकडेन आतां देवदासी समाजांत समाजीक परिवर्तन जाल्ल्यान ह्या समाजांतले लोक पेणें नाचाखातीर मुखार येवंक तयार जायनात.

– कों. वि. सं. मं.

**पेन्सिल :** कागदार बरोवपाक, रेखाटन करपाक ग्रॅफाइट सारकिल्ल्या पदार्थापासून तयार केल्लें बरोवपाचें, रेखाटन करपाचें साधन. ग्रॅफाइट सारकिल्ले पदार्थ नाजूक उरिल्ल्या कारणान, ते लाकूड, धातू वा प्लास्टिक सारकिल्या कवचांत बसयतात.

**इतिहास** – इजिप्ती आनी रोमी लोक पुर्विल्ल्या काळांत बरोवपाखातीर शिशें आशिल्ल्यो पेन्सिली वापरताले असो उल्लेख मेळटा. मध्ययुगांत शायेन कागदाचेर कुरवो करपाखातीर Pencillus नांवाचो ब्रश वापरताले. ह्या लॅटिन उतराचो अर्थ ल्हान शेंपडी. ह्याच उतराचो अपभ्रंश जावन पेन्सिल हें उतर तयार जालें. पंदराव्या शतमानांत इटलींत कथील आनी शिशें हांच्या मिश्रधातूपसून तयार केल्ल्या 'दंडवाटकुळाकार कुडक्याचो (सिल्वर पॉयंट) वापर बरोवपाखातीर आनी आरेखनाखातीर करताले ह्या साधनांनी केल्ल्यो कुरवो पुसून उडोवपाखातीर पावाचो कुडको वापरताले. इ.स. १४०० च्या सुमाराक बावारियांत ग्रॅफायटाचो सोद लागलो तेन्ना ताका प्लंबेगो (शिंश्यावरी काम करपी) हें नांव दिलें. सुर्वेक फकत कुडक्याच्या स्वरुपांतल्या ग्रॅफायटाचे आनी उपरांत फावो तो आकार दिल्ल्या काड्यांनी ग्रॅफायटाचो कुडको दवरून आनी भोंवतणीं दोरो गुठलावन तयार करताले. ग्रॅफायट हें नांव फुडें १७८९ त ए. जी. वॅर्नर हाणें graphein (म्हळ्यार बरोवपी) अशें दवरलें. फुडें ग्रॅफायटचे कुडके पिसांच्या पोकळी भागांत, नळ्यांनी वा धातूच्या धारकांनी वापरपाची पद्दत प्रचारांत आयली. १७६१ त कास्पार फावर हाणें शिशें आशिल्ल्यो पेन्सिली तयार करपाचो कारखानो तयार केलो. ह्या शिंश्यांत गंधक आनी ग्रॅफायट हे १:२ ह्या प्रमाणांत आशिल्ले. १६९३ त जे. पेट्टस हाणें फर वा सॅडर झाडाचें लाकूड शिंशाचेर कवच म्हणून वापरून आनी लाकडाच्या कवचाचे भाग सरसान एकमेकांक चिकटावन पेन्सिल तयार करपाची पद्दत फुडें हाडली. हे पद्दतीन इंग्लंडांत १७८९ त पेन्सिल तयार जावंक लागल्यो. अठराव्या शतमानांत झुजाक लागून इंग्लंडांतल्यान फ्रांसांत जावपी पेन्सिलींची आयात उणी जाली. तेन्ना नॅपोलियन बोनापार्त हाणें फ्रांसांत पेन्सिलीचें शिशें तयार करपाचें काम जे. काँते हाचेर सोंपयलें. ताणें ग्रॅफायट आनी माती एकठांय दळून तांचेपसून शिंश्याच्यो काड्यो तयार केल्यो आनी त्यो भट्टेंत भाजल्यो. ह्यो काड्यो अर्दवाटकुळाप्रती खांच आशिल्या लाकडी कवचांत बसोवन कवचाचे दोनूय भाग सरसान चिकटावन पेन्सिल तयार केली. तेन्नाच जोसेफ हार्डमय हाणें विएन्नांत काँते वरी पेन्सिल तयार केली आनी मातयेच्या प्रमाणांत बदल करून वेगवेगळ्या घटसाणीचें शिशें तयार केलें. १८३९ त योहान लांटा फोन फाबर हाणें काँते हाचे पद्दतींत सुदारणा केल्यो. १८५७ त कार्ल पुशर हाणें कॉपिंग पेन्सिलीचें शिशें तयार केलें. १८२७ त जॉन डिक्सन हाणें अमेरिकेंत पेन्सिल तयार करपाक सुरवात केली. १८७६त चौखण बुराका जाग्यार वाटकुळ्या बुराकाचें शिशें प्रचारांत आयलें. इंग्लंडांत १८४६ त वार्निश दिल्ल्यो पेन्सिली तयार जावंक लागल्यो. १९३० उपरांत शिशें कवचाक गच्च बसंतलें अशा प्रकारच्यो पेन्सिली तयार केल्यो. ताका लागून परत परत तोंकां मोडपाचें प्रमाण उणें जालें.

१८२२ त मॉर्डन हॉकिन्झ हाणें पयले खेपे यंत्रीक पेन्सिल प्रचारांत हाडली. ए. टी. क्रॉस हाणें एक यंत्रीक पेन्सिल तयार केली आनी व्हड व्यासाच्या शिंशाचे यंत्रीक पेन्सिलीचें एकस्व १८७७ दिलें. हे पेन्सिलींतलें शिशें स्प्रिंगाच्या दाबाखाला जबड्यांत बसयल्लें आसतालें. १८९५ त धारक टोपण घुंवडावन ल्हान व्यास आशिल्लें शिशें फुडें हाडपाची यंत्रीक येवजण फुडें आयली.

सुर्वेक यंत्रीक पेन्सिलीखातीर खंयच्याच व्यासाचें शिशें वापरताले.

उपरांत ०.०४६ इंच (१.१६८ मिमी.) वापरूंक लागले. १९३८ त ०.०३६ इंच (०.९१४ मिमी.) व्यासाचें शिंशें प्रचारांत आयलें. १९५० उपरांत बॉल पॉइंट पेन्सिली वापरांत आयल्यो. विसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत आरेखनाखातीर यंत्रीक धारकयुक्त पेन्सिलींचो वापर वाडट्या प्रमाणांत जावंक लागलो. हे पेन्सिलींत स्क्रुवान घट्ट करपाच्या जाग्यार धारकाच्या वयल्या तोंकार दामून कार्यान्वित करूं येत अशे स्प्रिंगयुक्त जबडे आयले.

पेन्सिलीचें कवच तयार करपाखातीर लांकूड, धातू, प्लास्टिक आनी शिंशाखातीर ग्रॅफायट आनी माती हांची गरज लागता. पेन्सिलीखातीर चड करून कॅलिफोर्नियन इन्सेस सॅडर (लिबोसेड्रस डेक्यूरे) आनी रॅड सॅडर (जुनिपेरस वर्जिनियाना) हाचें लाकूड वापरतात. ८५% कार्बन आशिल्लें ग्रॅफायट पेन्सिलीखातीर वापरतात. हाचेभायर पेन्सिली खातीर लॉकर, रंगद्रव्यां, मेण, वसाम्लां, तेल, सरस आदींची गरज लागता.

पेन्सिलीखातीर काळें शिंशें करतना ज्या प्रमाणांत ग्रॅफायट आनी माती वापरतात ताचेर पेन्सिलीची प्रत थारता. (B) ह्या अक्षरान दाखयले प्रतीची पेन्सिल मोव आसून(H) ह्या अक्षराच्यो पेन्सिली घट्ट आसतात. पेन्सिलीच्यो प्रती ८ बी ते १० एच् हांचे मजगतीं आसून वट्ट प्रतींची संख्या २० आसा. हातूंत एफ् ही प्रत दोगांय मदली.

काळे पेन्सिलिचें शिंशें तयार करपाखातीर सुर्वेक माती आनी ग्रॅफायट एकठांय दळून उदकांत घालतात. उपरांत तें बरें भरसून मळटात आनी घट्ट गुळो तयार करतात. हो गुळो बहिःसारण दाबयंत्राच्या दंड वाटकुळांत भरतात. ह्या दंडवाटकुळाक ल्हान बुराक आशिल्लो एक सांचो (डाय) बसयल्लो आसता. तो गुळो दामतकच सांच्याच्या बुराकांतल्यान शिंशाची अखंड काडी मेळटा. ही काडी पेन्सिलीचे लांबायेयेदी (सुमार १८ सेंमी.) कुडके करतात आनी सुकयतात. उपरांत ती (७१°-१२०° सॅ. तापमान आशिल्ले) भट्टेंत भाजतात. उपरांत भाजिल्लें ठिसूळ शिंशें वसा, वसाम्लां आनी मेण हांच्या भरसणांत भिजयतात. लाकडाच्या कवचांत घालपाचें शिंशें चड व्यासाचें तयार करतात. यंत्रीक पेन्सिलीचें शिंशें ०.९१४ मिमी. - १.१६८ मिमी. व्यासाचें आसता.

सादारणपणान लाकडी पेन्सिल तयार करपाखातीर अर्दे पेन्सिली इतली दाट, ४-७ पेन्सिली इतली रूंद आनी तयार करपाच्या पेन्सिली परस मातशी लांब आशिल्ले फळयेचें दालें अर्दवाटकुळाकार समांतर खांची घालतात आनी ह्या खांचींनी ताच्या व्यासाइतल्याच व्यासाचें शिंशें बसयतात. उपरांत तितल्याच आकाराची आनी तश्योच खांची घालें दुसरें दालें पयल्या दाल्याक गोमान दसयतात आनी हें गोम सुकसर वजनापोंदा दवरतात. उपरांत यंत्राच्या आदारान ताच्यो पेन्सिली कापून काडून तांकां जाय तसो आकार (वाटकुळो, षटकोनी) दितात. उपरांत तांचेर फावो त्या प्रमाणांत लॅकराचे ३-१० थर दितात, पॉलिश करतात आनी उत्पादकाचो शिक्को मारतात. कांय पेन्सिलींच्या तोंकांक धातूच्या पत्र्याचें वलय बसोवन तातूंत खोडरबर बसयतात. यंत्राच्या आदारान वर्साक सुमार २०,००० पेन्सिली तयार जातात.

पेन्सिलींची सादरण लांबाय सुमार १८ सेंमी. आसता. पूण कांय पेन्सिली सुमार ३७ सेंमी. लांब आसतात.

पेन्सिलींचे जायते प्रकार आसात. तातूंतले मुखेल अशे - काळ्या शिंशाची लाकडी पेन्सिल, रंगीत शिंशाची, पाटयेवयली, कागदी, मेणाची आनी यंत्रीक अशें पेन्सिलीचे प्रकार प्रचारांत आसात. रंगीत पेन्सिली काळे पेन्सिलीवरीच तयार करतात. पूण ताचेखातीर उदकांत विरपी आनी ना विरपी रंगीत द्रव्यां, भरीचो पदार्थ, वंगण, तेलकट पदार्थ आनी बंधक हांचो वापर करतात. यंत्रीक पेन्सिलीचें शिंशें काळे पेन्सिलीवरीच आसता पूण तांचो व्यास उणो आसता. हे पेन्सिलीचें कवच प्लास्टिकाचे वा धातूचें आसता.

पाटयेर बरोवपाची पेन्सिल (काडी) ही मोव स्लेट, प्लास्टर ऑफ पॅरिस सोपस्टोन आदीपसून करतात. लांबचे लांब अशीर कागदी पट्टी शिंश्यार वांटकुळी गुठलावन कागदी पेन्सिल तयार करतात. कांय धातू आदींचेर कुरवो करपाखातीर ज्यो पेन्सिली वापरतात तातूंतलें शिंशें तयार करपाखातीर मेणांत काजळी आनी हेर रंजक द्रव्यां भरशीतात. हे पेन्सिली भायर मेणाचें चड प्रमाण आशिल्ल्यो ग्रीझ वा मेणाच्यो पेन्सिली, चित्रकारांखातीर कोळशाचो गाबो आशिल्ल्यो पेन्सिली, उदकांत विरगळपी रंगीत आनी वले वा सुके स्थितींत वापरांत येवपी पेन्सिली वापरांत आसात.

सुर्वेक भारतांत जपान, जर्मनी, इंग्लंड आदी देशांतल्यान पेन्सिलींची आयात जाताली. फुडें १९१५त भारतांत कलकत्तेक पयलो पेन्सिल कारखानो सुरू जालो. उपरांत १९१८ मद्रासाक आनी १९३१ त कलकत्ताक दोन नवे कारखाने सुरू जाले. दुसऱ्या महाझुजाच्या काळांत कांय नवे कारखाने सुरू जावन त्या काळांत वट्ट धा कारखाने पेन्सिली उत्पादन करताले. मदीं कच्च्यो म्हाल मेळनाशिल्ल्यान उच्च दर्ज्याच्यो पेन्सिली तयार जाल्यो नात. झुजा उपरांतच्या काळांत पेन्सिली आयात जावंक लागल्यो आनी जायते कारखाने बंद पडले. १९५० त जकात मंडळान ह्या धंद्याक तीन वर्सांची राखण दिवन आयातीचेर बंधनां घालीं. तेन्नाच दिल्ली आनी मुंबय नवे कारखाने सुरू जाले. पूण ह्या कारखान्यां वरवीं फावो त्या दर्ज्याच्यो पेन्सिली मेळनाशिल्ल्यान तांची आयात जाताली. १९५३ त सरकारान राखणेकर काडलो आनी आयात कर सुरू केलो. ताका लागून भारतीय कारखान्यांनी भरपूर वाड जाली आनी सगल्या तरांच्या पेन्सिलींचें उत्पादन जावंक लागलें. सद्या केरळ, तमीळनाडू, बंगाल, गुजरात, महाराष्ट्र, पंजाब, दिल्ली आनी हेर राज्यांनी पेन्सिलींचे कारखाने आसात. पाकिस्तान, अफगाणिस्तान, मियानमार, न्यासालँड, नेपाळ, एडन, बॅहरीन आदी जायत्या देशांनी पेन्सिलींची निर्यात जाता. भारतांत पेन्सिलींखातीर कदंब, सातवीण, देवदार, तांबडी सावर, ताडू, रुद्राक्ष, शिवण, आंबो, कुंबळ, वारंग, भोरसळ, रुमा आदी झाडाचें लांकूड पेन्सिलींखातीर वापरतात. ८५% चे ग्रॅफायट मेक्झिको, सायबेरिया, बावेरिया, कोरिया, श्रीलंका, बोहेमिया आनी जर्मनी हांगाच्यान आयात करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**पेर :** (मराठी : पेरू, जांब; हिंदी : अमरूद; गुजराती : जमरूरव, जामफळ; कन्नड : गोवा, पेरला; इंग्लीश : ग्वावा; लॅटीन : सिडियम गुयावा; कूळ : मायरेटसी).

हो काटक रूख णव मीटरां मेरेन वाडटा. खांदयांचो आंवाठ ५-६ मीटरां मेरेन आसता. खोडावयले सालीचे कुडके सतत वचत आसतात. पानां लांबशीं १०-१५ सेंमी. लांब एकमेकांसामकार येतात, फुलां ल्हान, धवीं १-३ फुलांचो घोंस आसता. सर्वसादारण फळां वाटकुळीं, (कांय जातींचीं फळां लांबूय आसतात) ३-५ सेंमी. व्यासाचीं आसतात.

फळाभितर बारीक बियो आसतात. फळ तरणें आसतना पाचव्या कोराचें आनी पिकतकच धवें वा हळदुवें जाता.

मेक्झिको वा पेरू ह्या देशांनी पेरीचें उगमस्थान मानतात. जगांत बऱ्याच देशांनी पेरीची लागवड करतात. भारत, मलाया, मियानमार, अमेरिका, दक्षिण चीन ह्या देशांनी व्हड प्रमाणांत पेराची लागवड करतात. देशांत सुमार ५३,००० हॅक्टर सुवातीचेर पेरीची लागवड करतात. उत्तर प्रदेश, महाराष्ट्र, बिहार, आंध्र प्रदेश, तमीळनाडू, आसाम, बंगाल ह्या राज्यांनी पेरीची लागवड व्हड प्रमाणांत करतात. गोंयांत वेपारी तत्त्वाचेर ह्या पिकाची लागवड केल्ली व्हडलीशी दिसना. पूण पोरसांत, भाटांनी शेतांच्या बांदाचेर पेरीची लागवड केल्ली दिसता.

पेरीचे मुखेल अशे दोन प्रकार आसतात. १) धवी पेर - ही पेर गोडयेक बरी आसता. २) गुलाबी पेर. पेरीच्यो कितल्योशोच जाती आसात. तातूंत लखनौ-४९ (सरदार), अलाहाबाद सफेद, बनारसी ह्यो जाती चड लोकां रुचीच्यो आसात. तेभायर लखनौ-४६, नाशीक, धारवाड, कोथरूड, ढोलका, ॲपल कलर, बारूईपुर, मेहर-कोकोनट, चित्तिदार, हरीझा, पिअर शेण्ड, रॅड फ्लेशड, सीडलेस ह्याय जातींची लागवड करतात.



**पेर :** १. फुलासयत खांदी २. फुलाचो उबो छेद ३. किंजपुटाचो आडवो छेद ४. फळ.

पेरीक कसलेय प्रकारची जमीन चलता. मात उदकाचो निचरो बरो जावपाक जाय. हलके जमनींत पेरीची लागवड केल्यार सेंद्रीय सारें भरपूर प्रमाणांत घालतात. उश्ण आनी समतोश्ण प्रदेशांनी पेरीची लागवड बरी जाता.

पेरीची लागवड गुटी कलमांपसून करतात. बियांपसून लागवड करपाक जाता. पूण चड उत्पन्न आनी बरे प्रतीचीं फळां मेळपाखातीर कलमां लावन लागवड करतात. लागवड करपाखातीर ६X६ मी. अंतराचेर ६०X६०X६० सेंमी. लांब, रूंद आनी खोल नेमां मारतात. दर नेमांत अर्दकील मसुरी फॉस्फेट, अर्दकील स्टॅरामील, १०० ग्रम बी. एच. सी. १० टक्के, तशेंच दोन कायली कंपोस्ट वा शेणखत घालतात. उरिल्ली माती घालून नेम पुरायेन भरून घेतात. नेमा मदीं कलम लायतात आनी ताका बडी लावन आदार दितात. कलमाची लागवड जून म्हयन्यांत करतात. पावस सोंपतकच कलमाक उदक दितात. थंडे तेंपार १२-१५ दिसांनी, जाल्यार गरमे तेंपार ७-८ दिसांनी एकदां उदक दितात. झाडाक चड फळां येवपाखातीर तीन प्रकारांचे चंवर येतात. मृग, हस्त आनी आक्याबहर. तातूंतलो मृगबहर चड फायदेशीर आसता.

झाड लायले उपरांत सुमार ३-४ वर्सांनी पेरां लागतात. मार्च-एप्रिल म्हयन्यांत फुलां येवपाक लागतात. जुलय-सप्टेंबर म्हयन्यांत फळां तयार जातात. फुलां आनी फळां येवपाचो तेंप चंवराचेर आदारून आसतात. १० वर्सां पिरायेच्या झाडाक लेगीत सरासरी १००० पेरां मेळटात.

पेर हें रुचीक फळ आशिल्ल्यान सगळ्या थरांतले लोक ताचो खावपाखातीर उपेग करतात. ह्या फळांत 'क' जीवनसत्व चड प्रमाणांत आसता. फळापसून जाम, जॅली, पुडींग, आयस्क्रीम, सरबत तयार करतात. पेरीच्या झाडाची साल आनी पानां कातडी कमोवपाखातीर आनी रंगोवपाखातीर वापरतात. सालीचो रोस घाय बरो करपाक वापरतात. साल उदकांत उकडून घोंट घेतल्यार दाड दुखपाची थांबता. पानांचो काडो पटकी ह्या रोगाचेर वापरतात.

पेरीचें लाकूड टणक आसता. ह्या लांकडाचो उपेग कुराडी वा भाल्याचे दांडे, कोरीव वस्तू, तुबकाचें दांडे तयार करपाक वापरतात.

पेरीक जायत्या तरांच्यो किडी लागतात. तातूंतल्यो कांय म्हत्वाच्यो अशो -

१. फळमूस - हो मूस फळ पोखरता. ताका लागून फळां गळून पडटात. पावसान ह्या मुसाचो त्रास चड जाता. मूस लागून पडिल्लीं फळां काडून उडयतात. उपरांत झाडाचेर १० मिली, फॉस्फॉमीडोन हें वखद १० लिटर उदकांत घालून फवारो मारतात.

२. साल आनी शेंडो पोखरपी कीड - ही कीड झाडाचे सालींत भितर सरता आनी भितल्लो भाग खाता. ताका लागून झाड सुकता आनी मरता. हे किडीचेर आळाबंदा हाडपाखातीर किडीन तयार केल्ल्या बुराकांनी इ.डी.सी.टी. हें वखद कापसान बुडोवन घालतात.

पेरीक लागपी म्हत्वाचे रोग अशे - १) फळ कुसप ह्या रोगाची लागण पावसांत जाता. ह्या रोगाक लागून २०-२५ टक्के फळां कुसपाक शकतात. कुसून जमनीर पडिल्लीं तशेंच झाडाचेर कुशिल्लीं पेरां काडून पयस उडयतात. उपरांत झाडाचेर ०.२ टक्के डायथॅन-झॅड-७८ ह्या बुरशी नाशकाचो फवारो मारतात.

२) मर रोग - हो रोग चडसो उत्तर भारतांत दिश्टी पडटा. ह्या रोगाआड खात्रेचो उपाय ना. ह्या रोगाची लागण जाल्यार तें झाड हुमटून काडून उडयतात. ताका लागून रोगाच्या प्रसाराक आळो बसता.

- विश्राम गांवकार

**पेरियपुराणम् :** तमीळ भाशेंतलो एक व्हड ग्रंथ. हातूंत ६३ शैव संतांचीं चरित्रां वर्णिल्यांत. हातूंत ४२८६ पदां आसात. तमीळनाडू राज्यांत ह्या ग्रंथाची खूब नामना आसा. हातूंत भक्तिचरित्रांवरवीं त्या काळांतले आचारविचार, धर्मीक विश्वास, जातीजमाती, तांच्यो रिती, वेवसाय, विनोद, अलंकार आदी गजालींची म्हायती मेळटा. शैवधर्म आनी तेवारम पदां हांच्या खर तत्त्वांचें विवेचन ह्या ग्रंथांत मेळटा. शेक्किळार हो ह्या ग्रंथाचो कर्तो. हो वेल्लाळ जातीचो आशिल्लो. तो विद्वान, राजकारणी आनी शिवभक्त आशिल्लो. कांय काळ कुलोत्तुंग चोल राजाचो मंत्री म्हणून ताणें काम केल्लें (इ.स. ११ वें शतमान). मंत्री आसतना जेन्ना ताका आपल्या राजाक जैन धर्माविशीं आस्था आसा अशें दिसलें तेन्ना ताणें

राजाक तिरुतोंडरअंतादी हो ग्रंथ वाचपाक दिलो. तातूंतलीं शीवभक्ताचीं चरित्रां वाचून राजा प्रभावीत जालो आनी ताणें शेक्किळार हाका असोच आनीक ग्रंथ बरोवपाची आज्ञा दिली. राजाचे आज्ञेवयल्यान ताणें पेरियपुराणम् हो ग्रंथ बरयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**पेरीश, कायतान जुआंव :** (जल्म : १८०६, मडगांव; मरणः १८६०).

गोंयचो एक धर्मप्रचारक. १८५९ तल्यान ताणें गोंयचे आर्कीडायोसीझाचो कारभार पळयलो. १८६०त मरण येमेरेन ताणें गोंयची आर्कीडायोसीझ सांभाळ्ळी.

- कों. वि. सं. मं.

**पेरुंगळूर वैद्यलिंगम अखिलांडम - 'अकिलन' :** (जल्मः २७ जून १९२२, पेरुंगळूर, पुदुकोट्टई).

भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाल्लो नामनेचो तमीळ लेखक. 'अखिलन' वा 'अकिलन' ह्या नांवानूच ताची चड नामना आसा. पुदुकोट्टई गांवांत ताणें आपलें शिक्षण घेतलें. तेन्नाच ताच्या बापायक मरण आयलें. उपरांत ताचे आवयन ताका मॅट्रिकेमेरेनचें शिक्षण दिलें. म्हाविद्यालयांत आसतना ताणें १९४० त 'शक्ति युवक संघ' नांवाची विद्यार्थ्यांखातीर संस्था स्थापन केल्ली. १९४२ त ताणें 'छोडो भारत' चळवळींत वांटो घेतिल्लो. १९४४ मेरेन ताणें देशाखातीर वावर केला. रेल्वे डाक सेवा विभागांत (मेल सर्विस) प्रथक्कार (सॉर्टर) म्हणून १९४५ ते १९५७ मेरेन ताणें काम केलें. १९५९ -१९६५ मेरेनचो काळ ताणें मद्रासांत लिखाण करपांत घालयलो. उपरांत १९६५त ताणें आकाशवाणीचेर नोकरी धरली.

शाळेंत आसतनाच ताणें 'अकिलन' ह्या टोपण नांवान कथा बरोवपाक सुरवात केली. ताच्यो सुरवातीच्यो कथा कल्कि ह्या सातोळ्यांत आनी कलैमहल ह्या मासिकांत उजवाडाक येताल्यो. ताणें सुमार दोनशें लघुकथा बरयल्यात. रेल्वे डाकसेवेंत आसतना ताणें आठ कादंबऱ्यो बरयल्यो. नेंजिन अलैगळ (१९५३, हृदय लहरी) आनी बळुव एंगे (१९५७, जिवीत खंय आसा) ह्या ताच्या कादंबऱ्यांची नामना आसा. १९५८त ताणें बरयल्ली पार्वे पिळक्कु (दीपकन्या) ही कादंबरी बरीच गाजली. फुडें ताणें कांय इतिहासीक कादंबऱ्योय बरयल्यो. वेंगैयिन मैन्दन (१९६१, पुरुषव्याघ्र राजराज चोल), कयल विळी (१९६५, मीनाक्षी) आनी वेट्री-तिरुनगर (१९६६, विजयश्रीनगर) ह्यो ताच्यो कांय उल्लेख करपासारक्यो इतिहासीक कादंबऱ्यो. ताणें कथा, कादंबरी, नाटक, निबंध, समीक्षा, भोंवडेवर्णन, बालसाहित्य आदी प्रकारांतल्यो सुमार ४५ साहित्यकृती तयार केल्यात. ताच्यो हेर उल्लेख करपासारक्यो साहित्यकृती अशो - कथासंग्रह शक्तिवेल (१९४६, शक्तिमाला), निलविनिल, (१९४८, चान्यांत), मुळु निलवु (१९५४, पुर्णिमा, मॉपांसाच्या कथांचो तमीळ अणकार); कांदबऱ्यो : पेण (१९४७, बायल), दाहम (१९५३, तहान, ऑस्कर वायल्डच्या सलोमी नाटकाचो तमीळ अणकार), पुदु वेळ्ळम (१९६४, नवो हुंवार); नाटकां - वाळविल इन्बम (१९५५, जिणेंत सुख); समिक्षा - कर्लेयुम वयिरुम् (१९५६, कला आनी पोट); निबंध - कदैक्कलै (१९७२, कथेची कला); भोंवडेवर्णन : शोवियत नाट्टिल (१९७७, सोवियत देशांत).

१९६४ सावन तो साहित्य अकादेमीचे तमीळ सल्लागार मंडळाचो वांगडी आशिल्लो. १९७९ सावन तो सा. अकादेमीच्या जनरल काउन्सिलाचो वांगडी जालो. ताका जायते पुरस्कार आनी भोवमान मेळ्ळ्यात, ते अशे - कलैमहळचो पयलो कादंबरी पुरस्कार (पेण - १९४६), अकादेमी अवॉर्ड फॉर तमीळ नॉवॅल (नेंजिन अलैगळ - १९५३), तमीळनाडू स्टेट एज्युकेशन बोर्डाचें बालसाहित्याचें पयलें इनाम (१९६३), तमीळनाडू राज्याचे साहित्य पुरस्कार (कयल पिळी - १९६८, ऍरिमलै - लघुकथासंग्रह, १९७०). ताचे चितिरप्पार्वे (१९६८, चित्रकन्या) हे कादंबरीक भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाला. हे कादंबरेंत ताणें कला आनी संपत्ती हांचेमदलो संघर्श कलात्मक बळान दाखोवन आपलो हक्क, कर्तव्य आनी जिवन निश्ठेचेर अढळपणान उबे रावपी एके नव्या युगांतले बायलेचो साक्षात्कार घडयलां. फुडें १९७५ त ताचें एंगे पोगिरोम (१९७३, आमी खंय वतात) हे कादंबरेक १९७५ त धा हजार रुपयांचो 'डॉ राजा सर अण्णमलै चेट्टियार' पुरस्कार मेळ्ळा.

अकिलनचे बरपावळीचेर गांधीजीच्या तत्त्वगिन्यानाचो खोल प्रभाव पडला. गांधी युगांतल्या तत्त्वांक आपल्या कथा-कादंबऱ्यांवरवीं ताणें तमीळनाडूंत प्रभावी करपी अकिलन हो सामर्थ्य संपन्न लेखक. ताची शैली सरळ पूण प्रभावी. समाजांतल्या अन्यायाचेर आघात करतना ताचे लिखणेक विशेश धार चडटा.

ताणें श्रीलंका, मलेशिया, सिंगापूर, रशिया आदी देशांचो प्रवास केला. ताच्या जायत्या कथा-कादंबऱ्यांचे वेगवेगळ्या भारतीय भाशांनी आनी कांय कथांचे इंग्लीश, रशियी, जर्मन, पोलंडी आदी युरोपी भाशांनीय अणकार केल्यात. ताच्या पावै विळक्कु, कयल विळी आनी वाळवु एंगे ह्या तीन कादंबऱ्यांचेर आदारीत तमीळ चलचित्रां आयल्यांत. ताच्यो कांय कादंबऱ्यो दक्षिण भारतांतल्या जायत्या विद्यापिठांनी तशेंच सिंगापूर, मलेशियांतल्या विद्यापिठांतल्यानूय पाठ्यपुस्तकां म्हणून लागल्यात. ताच्यो कादंबऱ्यो जरी तमीळनाडूचे जिणेचेर आदारीत आसल्यो तरी तातूंतले व्यापक नदरेक लागून ताका संवसारीक परिणाम प्राप्त जाल्यात. समाजीक, राजकी, अर्थीक, भावनीक अडचणी ताणें आपल्या कादंबऱ्यांतल्यान मोटे कलात्मक तरेन हाताळ्ळ्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**पेरू :** 'रिपुब्लीका देल पेरू'. दक्षीण अमेरिकेचे अस्तंत दर्यादिगेवयलो एक प्रजासत्ताक देश. क्षेत्रफळ १,२८५,२१६ चौ. किमी. लोकसंख्या २४.२ दशलक्ष. पेरूचे उत्तरेक एक्वादोर, ईशान्येक कोलंबिया, उदेंतेक ब्राझील, आग्नेये वटेन बॉलेव्हिया, दक्षीणेक चिली आनी अस्तंतेक पॅसिफिक म्हासागर आसा. लिमा ही पेरूची राजधानी.

**भूंयवर्णन** - भूंयरचणुकेचे नदरेन पेरूचे सादारणपणान तीन वांटे जातात. १) दर्यादेगेर आशिल्लो रेंवटी वाठार. २) 'अँडियन सियारा' हो पेरूचो मदलो वाठार आनी ३) मॉंटॅना हो दोंगरी दाट रानांचो आनी उथळ मळांचो वाठार.

पेरूचे अस्तंतेक आशिल्लो संबंद वाठार रेंवट दर्यादेग आसून, हो रेंवट पटो उत्तरेक एक्वादोराचे शिमेकडच्यान सकयल दक्षिणेक वचून चिलीचे शिमेक मेळटा. ह्या रेंवट दर्यादेगेची लांबाय सुमार २,२६९ किमी. आसून

ताची रूंदाय १६ किमी. आसा. ह्या वाठारांत पावस उणो पडटा. हाका लागून हो वाठार सुको सडसडीत आसता. हांगा कसलीय वनस्पत जावपाची शक्यताय साप उणीं. केन्नाकेन्नाय हांगा भूंयकांपाचे धक्के बसतात. ह्या वाठारांतल्यान ल्हान-व्हड अशो बावन (५२) न्हंयो व्हांवतात. ह्या चडशा न्हंयांचो उगम अँडीस दोंगराचेर जाता आनी त्यो सकल वचून पॅसिफिक म्हासागराक मेळटात. हातूंतल्यो चडशो न्हंयो गिमाच्या दिसांनी सुकतात. फकत १० न्हंयो वर्सभर व्हांवत आसतात.

अँडीस पर्वतांवळींचो मदलो वांटो 'इंडियन सियारा' ह्या नांवान प्रसिध्द आसा. हाची रूंदाय ३२०-४०० किमी. पेरूचो तिसरो वांटो ह्या अँडीस दोंगरांनी रेवाडला. सियारा हो तीन पर्वतावळींपसून तयार जाल्लो आसून दर्यादेगेर एकसारक्यो आशिल्ल्या अस्तंतेकडच्या वळींक कॉर्डिलेरा ऑक्सिडँटल, मदल्या वळींक सँट्रल कॉर्डिलेरा आनी उदेंतेकडच्या वळींक कॉर्डिलेरा ओरिएंताल म्हण्टात. कार्डिलेरा ऑक्सिडँटल वळींत वास्कारान हें सगळ्यांत ऊंच (६,७६८ मी.) तेमूक. सरासरी सियेरा दोंगरांची ऊंचाय ४००० मी. आसा. पर्वतांचे उदेंतेक साबार देगणां आसात. चड ऊंच तेमकांचेर चड थंडाय आसता आनी हीं तेमकां सदांच हिमान भरिल्लीं आसतात.

उदेंतेक आशिल्लो माँतना वाठार पेरूची ६०% जमीन व्याप्ता. ह्या वाठाराचे दोन वांटे जातात. पयलो अँडिसाचे उदेंतेक आशिल्लो खोल देगणांचो आनी दाट रानांचो वांटो आनी ॲमाझॉनाचीं सपाट मळां आनी दाट रानांचो भाग. उदेंतेक आशिल्ल्या देंवत्यांचेर खोल देगणां आनी रानां आसात. हांगा हिमान भरिल्ल्यो न्हंयोय मेळटात. ॲमेझॉनाच्या खोल न्हंयांच्या देगणांनी दाट रानां आसून हांगा लोकवस्ती साप उणी आसा.

**हवामान** – भूंयरचणुकेक लागून हांगाच्या हवामानांतूय वेगळेपण दिश्टी पडटा. अस्तंतेक दर्यादेगेर आशिल्ल्या रेंवटी वाठारांत कांय वर्सांचीं वर्सां पावस पडना. पूण केन्नातरी अकस्मात घोग्यांनी पावस पडपाक लागता आनी हाका लागून ह्या भागाचें खूब लुकसाण जाता. जून ते ऑक्टोबर ह्या काळांत हांगा मळबांत काळीकिट्ट कुपां मांडटात पूण पावस पडना. ह्या काळ्या कुपांक लागून दिसाचो लेगीत सूर्य नदरेक पडना.

सियारा वाठारांतलें हवामान शितळ आनी सूखदिणें आसता. ह्या वाठारांत तापमानाचे बदल दोंगरांच्या उंचायांचेर आदारून आसता. सरासरी जशी दोंगरांची उंचाय वाडटा तशें तापमान उणें जायत वता. 'अरेक्यूपा' हे पर्वत दर्याथळासावन सुमार ८,००० फूट ऊंच आशिल्ल्यान हांगाचें तापमान १३.८ सें. आसता.

माँतना हो मळांचो आनी रानांचो वाठार आशिल्ल्यान वाऱ्यांत वलसाण आसता. वाऱ्यांत जरी वलसाण आसली तरी हांगा गरमी खूब जाता. हांगा दमटसाणूय चड आसता. ह्या उथळ प्रदेशांत दर वर्सा सरासरी २५४ सेंमी. परस चड पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात** – भूंयरचणुके प्रमाण आनी हवामाना प्रमाण वनस्पतीचे आनी मोनजातींचेय विंगड विंगड प्रकार मेळटात. दर्याकांठावयल्या रेंवट वाठारांत पावस उणो पडटा. हाका लागून हांगा वनस्पतीचें प्रमाण खूब उणें. जळींमळीं निवळां, बाबूल, जोथुआ सारकी रेंवट वाठारांनी जावपी वनस्पत मेळटा. सियारा प्रदेशांत तणाचीं मळां तशींच निलगिरी आनी कोकांचीं झोंपां आसात. माँतना ह्या सपाट वाठारांत, ॲमेझॉनाच्या देगणांनी खूब रानसंपत्ती आसा. हांगा एबनी, माहॉगनी, सेंडार, ड्रायवूड, सिंकोना, सार्सापरिला, बार्बास्को, वॅनिला आनी हेर वनस्पतीचो आस्पाव जाता. पर्वतांच्या उंचावयल्या वाठारांनी तण आनी ल्हान-ल्हान रोंपयो फकत पावसाच्या दिसांनी जातात.

अँडिस पर्वताचेर लामा, लाल्पाका हीं मनशाळीं जनावरां मेळटात. विकुना आनी उंटासारकी दिसपी ग्वानाको हींय जनावरां पेरूंत खूब आसात. उंचावयल्या वाठारांनी विस्काचा, चिंचिल्ला, काँडर ही मोनजात मेळटा. ॲमाझॉनाच्या देगणांनी आनी दाट रानांनी वानर, मानगीं, जॅगुआर आनी मनशांक खावपी पिरानांय आसात. ज्यूमा, टॅपिर आनी विंगड विंगड सोरपांच्यो जाती, रॉबिन, फ्लायकॅचर, फिंच, पारवे, बदकां आनी हेर तरांचीं सवणीं पळोवपाक मेळटात.

**इतिहास** – पेरूच्या पुर्विल्ल्या इतिहासासंबंदी तशी खात्रेची अशी म्हायती मेळना. पूण अँडियन संस्कृताय ह्या प्रदेशांत इ.स.प. ३५००-१००० च्या सुमाराक सावन नांदताली अशें आमका पुरातत्त्व अवशेशांवयल्यान कळटा. मुखार अशोच कांय फुडारिल्ल्यो जमाती पेरूच्या दर्याकांठार वाडल्यो. तांची संस्कृतीय लागीं लागीं सारकीच आशिल्ली. पूण राजकारणांत तांचीं मतां विंगड विंगड आशिल्लीं. ह्या प्रदेशांतल्या राजकारणाक खरो एकवट आयलो तो इंका जमातीन आपल्या साम्राज्याची स्थापणूक केली तेन्ना.

इंका जमातीची वाड इकराव्या शतमानाच्या शेवटाक सावन जाली. इंका ही एक गिरेस्त संस्कृतायेन भरिल्ली जमात आशिल्ली. हे जमातीन आपलो राज्यकारभार बेसबरो रचिल्लो. खूब कुटुंबां एकठांय येवन ते आपलो एक पंगड तयार करताले आनी तांचेमदल्याच एका गुणेस्त आनी हुशार अशा मनशाक मुखेली म्हणून वेंचून काडटाले. मूखार अशेंच कांय पंगडांचे मुखेली एकठांय येवन आपणालो राज्यकारभार बरे रितीन चलचो म्हणून आपल्यांतल्याच एकाक, सगळ्या पंगडांचो मुखेली म्हणून वेंचून काडटाले. ह्या प्रदेशांतल्या समस्तांची जापसालदारकी हाची आसताली. जण एक मुखेली आपआपल्या वाठाराची देखरेख करतालो. तशेंच, जण एका कुटुंबाक आपलो थोडो तरी वेळ आपल्या गांवाचे भलायकेखातीर खर्चुंचो पडटालो. झुजा वेळार सैन्याक आदार करप, रस्ते बांदप आनी अशींच हेर कामां हे लोक करताले. ही तरा कांय शेंकडे अशीच चलत रावली.

आपणाले गिरेस्त संस्कृतायेक आनी वेवस्थीत राजकारणाचे रचणुकेक लागून इंकाचें साम्राज्य पयस-पयस पातळिल्लें. पूण एक तेंप असो आयलो जेन्ना ह्या व्हड साम्राज्याची एकाच जाग्यावयल्यान देखरेक करपाक खूब जड जावपाक लागलें. निमाणें सम्राट 'वायना कापाक' हाणें आपणालें साम्राज्य दोनूय चल्यांभितर वांटलें. पूण मुखार पिकाळ गांव आपल्याक मेळचे हाका लागून दोनूय भावांभितर दुस्मानकाय निर्माण जाली. पेरूची अशी स्थिती आसतना स्पेनाचो धाडशी तरणाटो फ्रांसिस्को पिझारो हांगा पावलो. हांगाच्या भांगरान आनी रुप्यान भरिल्या तिजोऱ्यांची गजाल तांच्याय कानार पडिल्ली. पिझारोन ह्या वेळार थोडच्या थोडच्या मुखेल्यांक फुसलावन आपलेशे करून घेतले आनी हेर मुखेल्यांभितर झगडीं लावन दिलीं. अशे रितीन पेरू १५३२ वर्सा पिझारोन आपल्या (स्पेनाच्या) हातांत हाडलो. १५३५ मेरेन स्पेनाची हांगाची सत्ता घट्ट जाली.

अस्तंते वटेनच्या आपल्या वाठारांचेर सरकार चलोवपाखातीर स्पेनाचो राजा आपलो सगळ्यांत उंचेल्या पांवड्यावयलो अधिकारी धाडटालो. ताका विसेरै अशें म्हण्टाले. सुमार ३०० वर्सां मेरेन इंका प्रांताचेर (पेरू) स्पेनान आपलो शेक गाजयलो. पेरूची गिरेस्तकाय आयकून हजारांनी

स्पेनाचे लोक पेरूंत रिगपाक लागले. साबार स्पेन वसणुकवाद्यांचें लिमा शार ही राजधानी आशिल्ली. स्पेनी सरकाराचो शेक पेरूचेर १८२१ मेरेन उरलो. ह्याच वर्सा पेरूंत स्वातंत्र्य चळवळीची सुरवात जाली. तशें पळयल्यार पेरूची स्वातंत्र्य चळवळीची खरी सुरवात जाल्ली ती पेरू भायर. हे चळवळीच्या काळांत 'हौसे द सान मार्तिन' आनी सिमॉन बॉलिवर ह्या दोन व्यक्तींचो वांटो म्हत्वाचो आशिल्लो. चिलींत स्पेनाच्या सैन्याक हारोवन सान मार्तिनान पेरूंत आशिल्लो स्पेनाचो किल्लो उडोवन ताचेर जैत मेळयलें. जुलय १८२१ त ताणें पेरूचें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. मुखार बॉलिवरान पेरू आनी कोलंबियांतल्या आपल्या सैन्यांच्या आदारान ह्युनीन आनी आयाक्यूच्या झुजांत स्पेनाचे हांगाचे सत्तेचो नाश केलो.

स्वातंत्र्या उपरांत पेरूची राज्यवेवस्था सुरळीत चल्लीना. क्रांती फाटल्यान क्रांती जायत रावल्यो पूण थीर अशें एकूय सरकार पेरूक फावो जालें ना. १८७२ त मान्वेल पार्दो हो पेरूचो पयलो नागरी राष्ट्राध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. १८७९ त दर्यादेगर नायट्रेट आनी ग्वानो हांचे सांठे आशिल्ल्या प्रदेशा वयल्यान पेरू आनी चिली हांचे मदीं झूज जावन पेरूचेर हार पडली आनी पेरूक आपले कांय प्रदेश चिलीक दिवंचे पडले. मुखार १९०८ ते १९३० मेरेन आउगुस्तो बेर्नार्दीनो लेगीआ हाणें देसभर आपली सत्ता गाजयली. ताणें ह्या काळांत अर्थीक सुदारणा केल्यो. १९३०त लेगीआआड लश्करी उठाव जावन लूईस सांचेस सेरो १९३१त सत्तेर आयलो. ताणें १९३९त नवी घटना तयार केली. ह्याच काळांत पेरूंत दाव्या पंगडाचो 'आप्रा' (आलियांस पोपुलार रेवो लुसिओनारिया आमेरिकाना) हो पक्ष बळिश्ट जायत आशिल्लो, म्हणून १९३२ च्या सुमाराक सेरोन त्या पक्षाच्या आया ह्या नेत्याक बंदखणींत घालून ताच्या हेर वांगड्यांक पेरू भायर धांवडावन घाले. ताचे उपरांत १९३३ त सेरोचो खून जालो आनी जनरल बेनावीदेस हाचेलागीं घटना समितीन राज्यकारभार सोंपयलो.

दुसरें म्हाझूज चालू आसतना मान्वेल प्रादी हो राष्ट्राध्यक्ष जालो. म्हाझुजाच्या काळांत तो दोस्त राष्ट्रांवटेन रावलो. झुजाकाळांत नवे रस्ते बांदप, जलविद्युत आनी तिख्या प्रकल्प बांदप भोव गरजचें आशिल्ल्यान कामगार आनी मागाशिल्ल्या इंडियनांक सुदारपाचे यत्नूय शक्य जाले. १९४५ त जाल्ले वेंचणुकेंत आप्राचे उमेदवार लोकपक्षाच्या नांवासकल उबे रावन वेंचून आयले. संयुक्त मंत्रीमंडळांत आप्रा पक्षाक पयलेच फावट जागो मेळ्ळो. २९ ऑक्टोबर १९४८ दिसा उजव्या पंगडान बंड करून जनरल आंद्रिया हाका अधिकाराचेर हाडलो. ताणें आप्रा आनी कम्युनिस्ट ह्या पक्षांक अपात्र थरयले.

१९६० त पेरूची अर्थीक स्थिती साप्प इबाडिल्ली. अमेरिकेन त्या वेळार पेरूचे राजकी घडामोडींत हस्तक्षेप करपाचो यत्न केल्ल्यान पेरूयी लोक अमेरिकेकूच दोशी थारावपाक लागले. अध्यक्ष बॅलाउन्दे हाणें अर्थीक स्थिती सुदारपाक कांय यत्न केलेनात म्हणून ताका चोंशीं वटेंतल्यान विरोध जावपाक लागलो. त्याच वर्सा ऑक्टोबरांत जनरल जुआन वॅलास्को आलवारदाच्या फुडारपणाखाल सैनिकी बंड जावन तांणी बॅलाउन्देक सत्तेभायरो केलो. जनरल जुआन नवो अध्यक्ष जालो. त्या वेळासावन पेरूचे राजकी धागेदोरे पुरायपणान लश्करी अधिकाऱ्यांच्या हातांत गेले. नवें सरकार आपल्याक क्रांतीकारी सरकार अशें समजतालें. ताणें साबार मळांचेर ताबो घेवन, तांचो सहकार उद्देगांत बदल केलो. पेट्रोल उद्देगाचेरूय ताणें ताबो मेळयलो. १९७० चा मध्याक जुआनच्या सरकाराक विरोध जावपाक लागलो. १९७५ त जनरल फ्रांन्सिस्को मोरायल बेर्मुदेझ अध्यक्ष जालो. १९८० त पेरूच्या लोकांनी नागरी सरकार वेंचून काडलें. बॅलाउन्दे हो परतून पेरूचो अध्यक्ष जालो. ताणें पेरूची अर्थीक स्थिती सुदारपाचे कांय यत्न केले. पूण १९८० सावन शायनींग पाथ हे दावे आघाडीच्या पक्षान सरकाराआड उठाव करपाक सुरवात केल्ली. १९८५ त आप्रा पक्षाचो ॲलन गारसिआ मॅरेज हो अध्यक्ष जालो. पूण अर्थीक आनी राजकी स्थिती सुदारपाक ताकाय येस मेळ्ळेंना. हाका लागून उठाव आनी बंड ह्यो सदच्योच गजाली जावन आशिल्ल्यो. १९९० त आल्बोर्टो फुजीमोरी हो पेरूचो अध्यक्ष जालो. १९९२ त ताणें संविधान आनी विधीमंडळ बरखास्त केलें. ताणें साबार भ्रश्टाचारी कर्मचाऱ्यांक खर ख्यास्त दिली. ताणें भ्रश्टाचारी कर्मचारी आनी शायनींग पाथ पक्षाआड उबारिल्ल्या खर पावलांक लागून ताका कांय लोकांनी हुकूमशाहा ही पदवी दिल्या.

**राजवेवस्था** – पेरूची राजवेवस्था जुलय १९८० त केल्ल्या संविधानाचेर आदारिल्ली आसा. सरकार विधीमंडळ, कार्यकारी मंडळ आनी न्यायवेवस्था ह्या तीन पांवड्यांवयलें काम पळयता.

देशाचो मुखेल कार्यकारी(Chief executive) हो राष्ट्रपती. राष्ट्रपतीची मुजत स वर्सांखातीर आसता. ताची पयली मुजत सोंपली म्हण्टकच परतून रोखडेच दुसरे वेंचणुकेंत वांटो घेवंक मेळना. दोन उपराष्ट्रपती आनी बारा कॅबिनेट मंत्री तांकां पालव दिवपाक आसतात. विधीमंडळ काँग्रेसाकडेन आसता. राष्ट्राची संसद दोन घरांनी भरता. प्रतिनिधी मंडळ (Chamber of Deputies) आनी राज्यमंडळ (Senators). राष्ट्रपती आपले सांगाती आपुणूच वेंचून काडटा. सुर्वेक फकत शिकिल्ल्या आनी लग्न जाल्ल्या दादल्यांक मत दिवपाचे अधिकार आशिल्ले. पूण १९५६ सावन बायलांकूय समान हक्क मेळटात.

पेरूंत बारा प्रांतीक न्यायालयां आसात. प्रांतीक न्यायलयांचो निवाडो व्हड आनी ल्हान न्यायालयां करतात. लिमांत सर्वोच्च न्यायालय आनी ताचे सकल साबार न्यायालयां आसात. हांचें मंडळ काँग्रेस वेंचून काडटा.

**अर्थीक स्थिती** - पेरूचे अर्थीक स्थितीचेर ताच्या भुगोलीक विभाजनाचो परिणाम जालो. दर्यादेग सोडल्यार सबंद देस गरीब आनी मागाशिल्लो आसा. १९६८ त सावन लस्करी सरकाराक थिराय आयले उपरांत सरकारान हांगाची अर्थवेवस्था नेटान सुदारची म्हणून कांय आधुनीक येवजण्यो आंखिल्ल्यो. सुर्वेक पांच वर्सांची येवजण जाली. उपरांत हातूंत कांय सुदारणा करून मुखार दोन-दोन वर्सांच्यो येवजणो आपणायल्ल्यो. हाका लागून हांगाचे अर्थीक वेवस्थेंत थोडीभोव उदरगत जाली. वर्सुकी उत्पादनूय कांय प्रमाणांत वाडलें.

देशाचें अर्थीक जिवीत आजूय शेतवडीचेर आदारिल्लें आसा. पूण हांगाची जाता ती पिकावळ हांगाचे लोकसंख्येक पुरायपणान पावना. पेरूचो चडसो वाठार ऊंच-सकयल, रेंवटी आनी रानांचो आशिल्ल्यान शेतवडींतल्यान मेळपी येणावळ उणी आसता. सरकारान शेतवडीखातीर जमीन वाडोवंची म्हणून नवीं खारजां, न्हंयांचेर धरणां बांदपाक आनी रानां निवळ करपाक सुरवात केल्या. कापूस हें हांगाचें मुखेल पीक. ऊंस, गंव, मको, बटाट, बार्ली, आलफाआलफा, तंबाकू, काफी आनी केळीं हींय पिकां म्हत्वाचीं. थळाव्या आनी परकी लोकांचे मालकीचे व्हड व्हड कापसाचे मळे आसात. हांगा तांदूळ खूब पिकता आनी दक्षिण वाठारांत दाखां, अनस आनी ऑलिव हीं फळां खूब प्रमाणांत जातात. हीं चडशीं पिकां दर्यादेगांनी जातात. पूण दोंगरी वाठारांत शेतां ल्हान ल्हान कुणग्यांनी वांटल्यांत. तीं चडशीं इंडीयन

जमातीच्या लोकांचे मालकेची आसात. हांगा बटाटाचें चड पीक येता. तशेंच बार्ली आनी किनोआ हांचेंय पीक खूब येता. रानांतली पिकावळूय बरीच आसा. लांब दर्यादेग आशिल्ल्यान नुस्तेमारीचो उद्देग नेटान चलता. गोरवां-मेंढरां पोसपाच्या वेवसायाकूय म्हत्व आसा.

पेरूच्या उदेंत प्रदेशांनी तरेकवार खनीजांचे सांठे आसात. बिस्मथाच्या उत्पादनांत पेरू हेर देशांपरस मुखार आसा. रुप्याच्या उत्पादनांत ताचो तिसरो आनी तांब्याच्या उत्पादनांत पांचवो आंकडो लागता. शिशें, जस्त, लोखण, भांगर हांचेय सांठे खूब प्रमाणांत आसात. खनीज तेल हें हांगाचें म्हत्वाचे उत्पन्न आसा.

हांगा रसायनीक उद्देग नाशिल्ल्यान साऱ्याचें उत्पादन खूब उणें आसा. तिखें नाशिल्ल्यान यंत्रिक उद्देग नात. हांगाचो निर्मिती उद्देगूय वाडत आसा. पूण लॅटीन अमेरिकेंतल्या हेर व्हड देशांपरस तो साप उणो आसा. पेरूच्या निर्यात वेपारांत मुखेलपणान खनिजां, प्रक्रिया केल्लें नुस्तें, ग्वानो सारें, काफी, साकर, कापूस, खनीज तेल, लोकर आनी हेर वस्तूंचो आस्पाव जाता.

**येरादारी आनी संचारण** – हांगा सात मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. कायाओ ह्या बंदरांतल्यान पेरूचो चडसो वेपार चलता. उत्तर पेरूंत सालाव्हेरी, पाकाझमायो हीं आनी खोल उदकांतलीं हेर सात बंदरां आसात. दक्षिण पेरूंत सान वॉन ह्या बंदरा सयत चार बंदरां आसात. चीबोते हे जगांतलें सगळ्यांत व्हड नुस्तेमारी बंदर. नभोवाणी आणि चित्रवाणी केंद्रां शासनाच्या नियंत्रणासकल आसात. देशांत १५६ नभोवाणी केंद्रां आनी ९ दूरचित्रवाणी केंद्रां आसात. लिमांत १० वयर दिसाळीं आसून तांतूतल्या ला क्रॉनिका, ओजो, एक्स्ट्रो, उल्तिमा ओरा, एक्स्प्रेसो हांचो खप देड लाखावयर आसा. ला पेन्सा आनी एल कोमार्सिओ हीं वृत्तपत्रांय म्हत्वाचीं.

**लोक आनी समाजजीण** – शारांनी आनी दर्यादेगांनी लोकवस्ती दाट आसा. पेरूची लोकसंख्या नेटान वाडट आसा. चडशे लोक इंडियन आसात. ते ल्हान ल्हान गांवगिऱ्या वाठारांनी कुशीन कुशीन रावतात. 'मिस्तिझुश' हांचीय संख्या व्हड आसा. वट्ट लोकसंख्येंतले १२% युरोपी वंशाचे आसात. स्पेनी ही पेरूची राजभास, पूण थळावे इंडियन आनी मिस्तिझुश आईमारी आनी क्युचूआ भासो उलयतात. स्पेनी भासा भोवसंख्येन शारांनी आनी आईमारी आनी क्युचूका सियेरा दोंगरी वाठारांनी उलयतात.

पेरूच्या समाजाचे सादारणपणान तीन वांटे जातात. हांगाच्या लोकांचो वर्ग तांचे अर्थीक आनी संस्कृतीक जिणेचेर आदारून आसा. हे वळेरेंत उच्चवर्णीय लोकांचो आस्पाव पयल्या पांवड्यार जाता. दुसऱ्या पांवड्यार मिस्तिझुश हे मध्यमवर्गीय लोक आनी शेवटाक फाटसारिल्ले इंडियन लोक हांचो आस्पाव जाता. युरोपी वंशाच्या लोकांचो पयल्या वर्गांत आस्पाव जाता. हो वर्ग राजकारणी, जमीनदार, व्हड कारखाने आशिल्ले आनी सैन्यांत उंचेली पदां सांबाळपी. मिस्तिझुश हे मध्यम वर्गीय लोक, शिक्षणाक लागून खूब मुखार सरल्यात. तांची अर्थीक स्थिती समाधान मानपा सारकी आसा. पेरूंतल्या बुदवंत, मास्तर, पत्रकार, ल्हान-सान उद्देग आनी सरकारी नोकरी करपी लोकांचो आस्पाव हे वळेरेंत जाता. तिसरे आनी निमाणें वळेरेंत वयल्या दोनूय वर्गांतल्या लोकांनी हिणसायल्ल्या अशा थळाव्या इंडियन लोकांचो आस्पाव जाता. हांगाच्या शेतांनी आनी हेर ल्हान-सान कामां करचे खातीर ह्या इंडियन लोकांचो उपेग करून घेतात.

हांगाच्या लोकांचीं घरां मातयेचीं वा फातरांचीं आसतात. व्हड-व्हड कुटुंबां एकठांय रावतात. दोंगरी वाठारांत रावपी लोक मुखेलपणान बटाट आनी ओकास नांवाची वनस्पत खातात. तांच्या जेवणांत मास खूब उणें आसता. दर्यादेगेर रावपी लोकांचें जेवण म्हळ्यार तांदूळ, मको, कडुण आनी केळीं, आंबे हांचे सारकी फळां, तशेंच दुकर, कुकडां आनी हेर जनावरांचें मास आनी नुस्तें. हांगाच्या लोकांक तिखट जेवण चड आवडटा. शारांतले लोक पँट आनी बुशशर्ट घालतात. इंडियन लोक 'पोंचो' हे ब्लँकेटा सारकिले कपडे वापरतात. तांच्यो बायलो साबार रंगांनी पिंतारिल्ले घागरे आनी पोल्कां घालतात.

**म्हत्वाचीं थळां** – लिमा ह्या राजधानी शारांत स्पेनी साम्राज्याचें वैभव पळोवपाक मेळटा. उंच दोंगरांनी लिपिल्ले माचू पिक्चू शार १९११त सांपडलें. इंका काळांतल्यो वस्तू आशिल्लें प्रसिद्ध कुस्को शार, कायाओ हें देशाचें व्हड बंदर, चिंबोते हें जगांतलें शेतकी म्हालाचें व्हड केंद्र आनी वांकायो हो देशांतलो शेतम्हालाचो व्हड बाजार हीं हांगाचीं कांय म्हत्वाचीं थळां.

– कों. वि. सं. मं.

**पेरैर, आंतोनियु :** (जल्म : १८१८, उतर्डे; मरण : १८७६).

एक गोंयकार धर्मप्रचाराक. राशोलाक धर्मशास्त्राचें शिक्षण घेतकच १८४३त तो लिस्बनांत जेजुईत पंथाक मेळ्ळो. रोमांक ग्रॅगोरियन विद्यापिठांत डॉक्टरेट पदवी मेळयतकच तो भारतांत आयलो. ताणें हांगा येवन नोविशियेट पंथाची स्थापना केली आनी फुडें त्या पंथाचें रुपांतर 'ब्रदर्स ऑफ द सॅवन डॉलर्स ऑफ द व्हर्जीन मेरी' हातूंत केलें. माहीम आनी माजगांव वाठाराचो तो पॅरीश प्रिस्ट आशिल्लो. बांद्रा सेमिनारिचो तो रॅक्टर आशिल्लो. ताका लॅटीन, इटालीयी, फ्रँच, स्पेनी, इंग्लीश, पुर्तुगेज, तमीळ, मल्याळम, कोंकणी, मराठी आदी भाशांचें बेस-बरें गिन्यान आशिल्लें. ताणें वेगवेगळ्या भाशांनी कांय पुस्तकांय बरयल्यांत. १८६७त ताची मुंबयचो विकार आपोस्तोलीक म्हणून नेमणूक जाल्ली. पूण ताणें तिचो स्विकार केलोना.

– कों. वि. सं. मं.

**पेरैर, फा. आंतोनियु :** ( जल्म : २५ ऑगस्ट १९१९, चिंचोणें, साश्ट-गोंय).

गोंयचो धर्मगुरू. भुरगेंपणातूच हुशार भुरगो म्हणून ताणें नामना जोडली. इश्कोलाचें शिकप पुराय केले उपरांत ताणें पाद्रीपणाचें शिकप राशोलचे सेमिनारींत घेतलें. तेभायर सेक्रेड हार्ट कॉलेजींतल्यान ताणें तत्त्वगिन्यानाचेंय शिकप पुराय केलें.

दिवचले 'व्हिगार' म्हणून तो वावुरलो. थंय ताणें अवर लेडी ऑफ ग्रेस हायस्कुलाची स्थापणूक केली. ते शाळेचो प्राचार्य म्हणून बरींच वर्सा ताणें काम पळयलें. उपरांत तो बागा कळंगुटच्या रेतिराच्या घराचो डायरेक्टर जालो. गोंयच्या डायसीझन लोक संपर्क केंद्राचो मुखेली म्हणूनय ताणें वावर केला. सद्या तो पर्वरीच्या झेव्हियर्स सेंटर ऑफ हिस्टोरीकल रिसर्च हांगा आसा.

ताका पुर्तुगेज, फ्रँच, लॅटीन, इटालीयन, स्पेनीश तशेंच हिंदी, मराठी आनी मल्याळम भाशा येतात.

ताणें कोंकणींतल्यान जायतें लिखाण केलां आनी तें गोंयच्या आनी गोंयांभायल्या विंगड विंगड नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयलां. वोवळां, जात्रेकार जुझे, गोंयचे धर्तरेवेलो, काळजीदार, साश्टीची तांबडी माती, फुडारी, कोंकणी शास्त्री दाल्गाद, वादळ आनी वारें, आवयचे मांडयेर, Makers of Konkani Literature हीं ताचीं गाजिल्लीं पुस्तकां. ताका कोंकणी भाशा मंडळ, कोंकणी केंद्र तशेंच गुलाब म्हयनाळ्याचे पुरस्कार फावो जाल्यात. ताणें आपली आपजीणय बरोवन उजवाडाक हाडल्या. पेडण्या जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाच्या धाव्या अधिवेशनाचो तो उद्घाटक आशिल्लो. तो कोंकणी भाशेंतल्यानूच शेर्मांव सांगता हें ताचें खाशेलेपण आशिल्ल्यान गोंयभर तो बऱ्यांतलो 'प्रेगादोर' म्हणून गाजता.

मिरामार पणजी हांगाच्या, टॉमस स्टीवन्स कोंकणी केंद्राचे वतीन, ताच्या वावराचें यादस्तीक म्हणून कोंकणी मळार देखदेणो वावर करतल्याक दर वर्सा 'फा. आंतोनियु पेरैरा' पुरस्कार दिवप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## पेरैर, आरमांदु तेओदोरु उर्फ आर्मांदु सांताना :

(जल्मः १४ फेब्रुवारी १९२६, चिंचोणें, साश्ट).

गोंयचो सुटकेझुजारी. १९४६ सावन तो गोंयचे सुटकेखातीर ज्यो चळवळी जाताल्यो तातूंत वांटो घेवपाक लागलो. तो भूंयगत रावून पुर्तुगेजांआड प्रचार करता ह्या गुन्यांवाखाला पुर्तुगेज सरकारान ताचे आदवोगासीचो परवानो जप्त केलो.

१९४८-१९५६ मेरेन तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९४९-१९५२ मेरेन ताणें हे संघटनेचो पालवी सचीव आनी १९५३-१९५४ मेरेन सचीव म्हणून वावर केला. 'आझाद गोमन्तक दल' संघटनेच्या बेळगांव फांट्याचें ताणें १९५४-१९५९ मेरेन अध्यक्षपद सांबाळ्ळें. ताचो गोंयचे तशेंच मुंबय आनी बेळगांव भूंयगत संघटनांकडेन लागींचो संबंद आसा, ह्या गुन्यांवाखाला पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका पांच खेपे अटक केली. ह्या वेळार ताका पोलिसांनी खूब त्रास तिलो. तो लिपून रावलो तेन्ना ताचे जाण्टेले आवयकूय ताणीं खूब सतायली. २० जून १९५४ दिसा बंदखणीची ख्यास्त चुकोवपाखातीर तो बेळगांवां पळून गेलो. उपरांत गोंय मुक्ततायेमेरेन तो थंयच रावलो. १९५८त प्रदेशीक लश्करी न्यायालयांत ताचे गैरहजेरेंत चवकशी जावन ताका आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पुस्तकांतल्यान पार्सल बॉम धाडपाफाटल्यानूय ताचो हात आसा ह्या गुन्यावांखाला ताचे आठ वर्सांखातीर राजकीय हक्क काडून घेतले.

गोंयचे सुटके उपरांत नगरपालिका, मुलकी प्रशासक (केपें), कोमुनीदादीचो प्रशासक (दक्षीण विभाग) आनी नगरपालीकेचो मेयर (केपें, मडगांव) अशा पदांचेर ताणें काम केलां. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## पेरैर, आल्वारो आंतोनियु प्रेसिओझु :

(जल्म : १ जुलय १९२५, दिवाडी - तिसवाडी).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताच्या बापायचें नांव एदुआर्द पेरैर. ताणें लिसेवाचें ७ वें वर्स मेरेन तशेंच फार्मासीचें शिक्षण घेतलें. तो नॅशनल कॉंग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. स्वता सरकारी कर्मचारी आसतनाय तो राश्ट्रीय वावरांनी वांटो घेतालो. ११ नोवेंबर १९५४ ह्या दिसा मडगांव हातपत्रकां वांट्टना पोलिसांनी रविंद्रनाथ पै रायतूरकार हाचेवांगडा ताका धरलो. उपरांत ताका प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून इकरा वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच पंदरा वर्सांखातीर ताचे नागरी हक्क काडून घेतले. पूण अर्दी ख्यास्त भोगले उपरांत ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. फुडें पोलिसांच्या आदेशाचो पाळो करूंक नाशिल्ल्या कारणान तशेंच ताणें गांधी तोपी वापरली ह्या आरोपाखाला दोन फावटीं ताका अटक जाल्ली. इश्कोल मेदिक (वैजकी म्हाविद्यालय) हातूंत प्रवेश घेवन ताणें वैजकी अभ्यास शिकपाक सुरवात केली, पूण गोंय मुक्ती चळवळीक लागून ताका आपलें शिक्षण अर्दारच सोडचें पडलें. गोवा प्रदेश समितीचो तो एक वांगडी आशिल्लो. गोंयचे मुक्तीउपरांतय ताणें राजकारणांत वांटो घेतिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. १८ जून १९८३ ह्या दिसा गोंय सरकारानूय ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## पेरैरा, कामिलो :

( जल्म : एप्रिल १९३२, बांदोड्या-फोंडें; मरण : १७ फेब्रुवारी १९५७, फोंडें).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताच्या बापायचें नांव जुझे पेरैरा. कामिल पयलीं 'राश्ट्रीय कॉंग्रेस गोंय' (NCG) संघटनेचो आनी उपरांत 'गोंय सुटके सैन्य' (GLA) हे संघटनेचो वांगडी जालो. ताणें आपल्या संघटनांखातीर खूब वावर केलो. दिवचले मीनाखाणीचेर धाड घालप्यांभितर ताचो म्हत्वाचो वाटो आसा. सुरेश केरकार हाचेवांगडा ताणें फोंडें तालुक्यांत आशिल्ल्या पुर्तुगेज लश्कराक कुट्टीसावन उदक हाडपी पायप लायनीक स्फोट घडोवन हाडपाचो बेत आंखिल्लो. १७ फेब्रुवारी १९५७ दिसा स्फोट घडोवन हाडपाक गेल्लेकडेन पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका ताच्या साथीदारांवांगडा गुळी घालून जितो मारलो. १८ जून १९८५ दिसा गोंय सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## पेरैर, कायतान :

(जल्म : दिवाडी; मरण : १८५७).

गोंयचो धर्मप्रचारक. सुर्वेक तो प्रवचन सभेंत वावर करतालो. उपरांत तो धर्मप्रचारक म्हणून श्रीलंकेंत गेलो. थंय १८३७ ते १८४३ ह्या काळांत ताणें विकार जनरल म्हणून वावर केलो. फुडें ताका थंयचो विकार आपोस्तोलीक नेमलो. १८४३त ताची बिशप म्हणून नेमणूक जाली.

- कों. वि. सं. मं.

## पेरैर, जानुआरियु ज्योकीं :

(जल्म : १९ सप्टेंबर १९०८, जोधपूर मारवार; मरण : १७ जानेवारी १९८६).

सुटकेझुजारी. ताणें बी. ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो बसका घेवन लोकांमदीं सुटकेझुजाविशीं जागृताय हाडटालो. आपल्या विद्यार्थ्यांच्या पालवान तो राश्ट्रीय आनी पुर्तुगेजांआड पत्रकां वांट्टालो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी णव वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. १८ जून १९८२ ह्या दिसा गोंय

सरकारान ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**पेरैर, दुमींग जुजे आंतोनियु :** गोंयचो एक धर्मप्रचारक. तो मूळचो गिरी वाठारांतलो. १८६१त तो मिलापूरचो एपिस्कोपल गव्हर्नर जालो.

– कों. वि. सं. मं.

**परैर, सायमन :** (जल्म : सांगोल्डें, बारदेस).

पाकिस्तानांतल्या रावळपिंडी वाठारांतलो गोंयकार बिशप. १९५१त तो पाद्री जालो. १९७३ ताची बिशप म्हणून नेमणूक जाली. सद्या आपले डायोसिसाखातीर वावर करता.

– कों. वि. सं. मं.

**पेले :** (जल्म : २२ ऑक्टोबर, १९४०, त्रेझ कुरासाँयश, ब्राझील).

ब्राझिलाचो संवसारीक नामनेचो फूटबॉल खेळगडो. ताचें पुराय नांव एडसन आरान्तीश दु नासिमेन्तु. पूण पेले ह्या नांवानूच लोक ताका चड



वळखतात. ताचो बापूय जो रामुश दु नासिमेन्तु होय एक बरो फूटबॉल खेळगडो आशिल्लो. एका गरीब खाप्री कुटुंबांत पेलेचो जल्म जालो.

पेलेच्या बापायन पेलेक फूटबॉलाचो खेळ शिकयलोच पूण ताचो इश्ट ब्लादिमीर द ब्रितु ह्या उत्कृश्ट खेळगड्याच्या मार्गदर्शनाचोय लाब पेलेक मेळ्ळो. द ब्रितुच्या आदारान पेलेकें ब्राझिलांतल्या 'सान्तुश' ह्या नामनेच्या क्लबांत प्रवेश मेळ्ळो.

क्लबांत खेळटा आसतनाच ताणें फूटबॉल खेळांतलीं कसबां आत्मसात केलीं. सोळाव्या वर्सासावन तो आंतरराश्ट्रीय सामन्यांनी वांटो घेवंक लागलो. १९५८ वर्सा ताणें ब्राझीलावतीन संवसारीक करंडाचे सर्तेत वांटो घेतलो आनी तेन्नासावन फूटबॉलाचो खेळ होच ताचो वेवसाय जालो. ताका भरपूर जैत आनी संपत मेळत गेली.

१९५८ वर्साचे (वर्ल्ड कप) जुल्ल्य रिमेट ट्रॉफी हे सर्तींत जैत मेळोवन पेलेन स्वताचें आनी ब्राझीलाचेंय नांव खूब गाजयलें. उपरांत ताणें १९६२ आनी १९७० ह्या वर्सांनीय हो संवसारीक करंड जिखलो आनी ब्राझीलाक चारांतल्या तीन सर्तींनी जैत जोडून दिवन हो संवसारीक करंड सासणाचो मेळोवन दिलो.

पेले सान्तुश क्लबाक अठरा वर्सां खेळ्ळो. तातूंत ताची गोलांची संख्या १,१४५ इतली जाली. ब्राझीलावतीन, तो वट्ट ११२ खेळ खेळ्ळो आनी तातूंत ताणें ९७ गोल केले. १९७५ वर्सासावन तो न्यूयॉर्कांच्या 'कॉसमॉस' पंगडा वतीन खेळपाक लागलो. १,३६३ सामन्यांतली पेलेची वट्ट गोलसंख्या १,२८१. गोलसंख्येंत संवसारांत पेलेचो दुसरो क्रमांक लागता. ब्राझीलाच्याच आर्तूर फ्रायडेनरायख हाणें आपल्या २५ वर्सांचे कारकिर्दींत १,३२९ गोल केल्यात.

२० नोवेंबर १९६९ ह्या दिसा पेलेन आपलो १००० गोल केलो तेन्ना ब्राझीलाच्या टपाल खात्यान पेले स्टँप काडलो आनी ताचो व्हड भोवमान केलो. ताका भांगराची तबकडी आनी चार पाऊंड वजनाचो भांगराचो बॉल मेळ्ळो.

पेले हो पयलो लाखाधीश फूटबॉल खेळगडो. मजगतीं, ब्राझील सरकारान ताका राश्ट्रीय धन (नॅशनल ट्रेझर) अशें नांव दिवन भोवमान केलो. जगांतले लोक ताका 'किंग पेले' वा 'ब्लॅक पर्ल' ह्या नांवान वळखूंक लागले. ताची खेळांतली अप्रतीम कुशळटाय, सुटसुटीतपण, आक्रमक खेळी, अचूक अदमास, कुडीची पुश्टीकताय हांच्या बळार पेलेक खूब नामना मेळ्ळी. गोल करपाची ताची क्षमताय दोळे दिपकावपी आशिल्ली. १९६० ते १९७० ह्या धा वर्सांतलो पेले हो सगळ्यांत श्रेश्ठ खेळगडो मानतात. अमेरिकेंत ताणें फूटबॉलाचो खेळ लोकांरुचीचो करून ताका प्रतिश्ठा मेळोवन दिली.

एक फावट पेले भारतांत येवन गेलो. २४ सप्टेंबर १९७७ दिसा कलकत्यांत जाल्ल्या कॉसमॉस आनी मोहन बगान ह्या दोन पंगडांतल्या फूटबॉल सामन्यांत पेले कॉसमॉसचे वतीन खेळ्ळो. १ ऑक्टोबर १९७७ दिसा, पिरायेच्या ३७ व्या वर्सा पेले फूटबॉल खेळांतल्यान निवृत्त जालो. ह्याच वर्सा 'युनायटेड नेशन्स चिल्ड्रन्स फंड' हाका आदार केल्ल्यान संयुक्त राश्ट्रांवतीन ताचो भोवमान जालो. विश्व-नागरीक (World Citizen) म्हणून ताका मानपत्र दिलें.

– अजीत मोये

**पैंगिणकार, राजाराम रंगाजी :** राजाराम रंगाजी पैंगिणकार हाचो जल्म पैंगीण (काणकोण) हांगा गोमंतक मराठा गायक समाजाच्या एका कुटुंबात जालो.

पिरायेच्या आठव्या वर्सा पैंगीणच्या शाळेत शिक्षणाक सुरूवात, उपरांत लोलयें हांगा मुळावे शिक्षण पुराय केले. उपरांत १९०६त मुंबय वचून रघुनाथजी माशेलकारांकडल्यान गंडो बांदून तबल्याचे शास्त्रीय शिक्षण घेतलें. तबलजी म्हणून साथ करून पैशेय कमयले आनी घर चलयलें. हेच वेळार इतिहासिक पुस्तकां वाचपाचो छंद जडलो. तेखातीर तरण्याट्यांक जमोवन दत्तप्रसाद वाचन मंदिरूय स्थापन केले. पिरायेच्या १४व्या वर्सा

सीता किन्नर (कारवार) हिचेकडेन ताचे लग्न जाले.

हिराबाई नागेशकार आनी दादा वैद्य हांचे समाज विशयक तशेंच बायलांचे प्रस्नांविशींचे लेख वाचून समाजाचे पुनुरुत्थान करपाचे ताणें थारायले आनी गोपाळमामा जांबावलीकाराच्या आदारान १९१० वेश्यावेवसाय बंदी, विधी बंदी चळवळ सुरू केली. तेखातीर नाईक, बंदे, फर्जंत, देवळी, भावीण आनी पेर्णी ह्या जातींची एकवट करपाचे काम ताणें केले. पयलेसुवातेर हेखातीर पैंगीण, जांबावली, बांदोडे, काकोडा, पर्वत, फातर्पे, कुर्डी हांगा बसको घेतल्यो. वेश्यावेवसाय बंद करून चलयांची लग्नां करून दिवप, चलयांक शिकोवप, लग्नात हुंडो दिवप-घेवप ना, तशेंच रांडाव बायलेची तयारी आसत वा वेश्यावेवसाय करतलेची इत्सा आसत जाल्यार तिचे लग्न करप असो कार्यक्रम ताणें आपले चळवळीखाला हाडले. हे कामाखातीर मुंबयत राबितो करून रावतल्या गोंयकार गोमंतक मराठा समाज वावुरप्याचो आदार घेवपाचोय ताणें थारायले. हे सगळें काम करतना ताका समाजातल्या मनशाकडल्यान तशेंच भायल्या व्यक्तींकडल्यानूय उणी दुणी घेवंची पडलीं, पूण आपले कामांसावन तो फाटी सरलोना. समाजभाव परशुराम काकोडकार, सीताराम पैंगीणकार, गिरीधर जांबावलीकार, विठ्ठल पर्वतकार, अनंत अवेडेकार, अनंतराव काटकार, सखाराम रामनाथकार, भास्कर कवळेकार, डॉ. लक्ष्मणराव धारगळकार, रामकृष्णराव पेडणेकार, नबुबाई काटकार, आनंदराव काकोडकार, मुरारी शिरोडकार, सुदाम मांजरेकार, विष्णुपंत केरकार, तुकारामजी कामुलकार, दत्तू कवळेकार, नारायण शिरोडकार, रामचंद्र शिरोडकार, पांडुरंग शिरोडकार, शिवराम पंत कोलवाळकार हाणीं ताका हे वावरात मदत केली.

तेच प्रमाण 'प्रभात' चे संपादक डॉ. शिरगांवकार 'भारत' चे संपादक हेगडे देसाय हाणींय ताका हे चळवळीक मदत केली. तांगेल्या पत्रातल्यान समाजजागृतताये संबंदान ताणें बरेच लेख बरयले. व्यंकटेशराव सरदेसाय हांचे येजमानकेखाला जाल्या जांबावलेच्या सभेन समाजातले जातीभेद नश्श्ट करून, पंक्तीभेद नश्ट करून, रोटी-बेटी वेव्हार ताणें सुरू केले. २५-२-१९२१ हें दिसा पैंगीणी हांगा भौशिक सत्यनारायण पूजा करपाचे ताचे प्रकरण गोंयभर गाजलें.

ताणें १९२५ ते १९३२ मेरेन प्रागतिक मराठा समाजाचे कार्य केले. तेभायर पुर्तुगेज शिक्षण प्रसारक मराठा समाजाचोय वावर केलो. १९२९त शिरोड्यात प्रा. रामचंद्र ना. वेलिंगकार हाचे यजमानपणाखाल व्हड परिशद घडोवन हाडली. नारायण कारवारकार, दयानंद बांदोडकार, अनंत बी. नाईक हांचो ह्या वावरात ताका तेंको मेळ्ळो. तेन्ना 'गोमंतक मराठा समाज' असो संस्थेचो नव्यान बारसो करपांत आयलो. ताणें पुराय ५८ वर्सां ह्या चळवळीक दिली तर ह्या संस्थेचे २५ वर्सां काम केलें. हे संस्थे अंतर्गत ताणें विद्यार्थ्यांखातीर बोर्डिंग सुरू केले. गोमंतक मराठा समाजान हालींच पणजी हांगा बांदिल्या मध्यवर्ती इमारतींतल्या सभाघराक ताचे नांव दिवन ताची याद ताजी दवरल्या.

८०व्या वर्सा ताणें 'मी कोण?' नांवान आपली आपजीण मराठीन बरयली. पयल्या खंडातली त्रोटक म्हायती खोलायेन दिवपाखातीर म्हणून ताणें आपजीणेचो दुसरो खंड बरोवन प्रसिद्ध केलो आनी ह्या पुस्तकाच्या पैशातल्यान विद्यार्थ्यांक मदत करपाची तजवीजूय केली. 'मी कोण?' हे मराठीतले एक 'प्रांजळ' अशे आत्मचरीत्र जावन आसा. कांयच लिपय नासतना आनी कोणाचेरूच आकस उक्ताय नासतना. ताणें आपली जीण वाचप्यामुखार ह्या दोनूय खंडातल्यान दवरल्या, समाजपरिवर्तनाचो इतिहास ह्या आपजीणेंतल्यान आयली, अशें समीक्षकांचे मत आसा. एक समाज सुदारक आनी एक उद्योगपती म्हणून श्री पैंगीणकाराचें गोंयच्या जिणेंत एक व्हड योगदान आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**पैंगिणकार, लक्ष्मी बाळकृष्ण :** (जल्म : २३ जून १९३०, पैंगीण, काणकोण).

सुटकेझुजारी. १९५५ सावन ती नॅशनल कॉंग्रेस गोवा हे संघटनेची वांगडी आशिल्ली. सुटके चळवळीच्या काळांत पत्रकां वांटपाचें काम करताली. तशेंच सिंधुताई देशपांडे हिच्या मार्गदर्शनाखाला आपल्या वाठारांतल्या तरणाट्यांक सुटकेझुजांत वांटो घेवंक स्फूर्त दिताली. १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा मडगांवच्या सत्याग्रहांत तिणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी तिका धरली आनी पणजे बंदखणींत दवरली. उपरांत प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार तिका उबी करून दोन वर्सां खर बंदखण आनी चार वर्सां सादे बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ती बंदखणींत आसतना पोलिसांनी तिचे आवयक खूब त्रास दिलो, तिच्या घराचेर धाड घालून म्हत्वाचीं कागदापत्रां जप्त केलीं. २८ मार्च १९५८ ह्या दिसा तिची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. काणकोण पुलिस ठाण्याचेर तिणें हजेरी लायलिना ह्या आरोपाखाला तीन म्हयन्यां उपरांत तिका परती धरली आनी चार दीस बंदखणींत दवरली. १९७४त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तिचो भोवमान केलो. १९७८त सुटकेझुजाऱ्यांच्या सत्कारा वेळार शिरुभाऊ लिमये हाचे हस्तुकी तिचो भोवमान जालो. १८ जून १९८३ ह्या दिसा गोंय सरकारान तिचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**पैंगिणकार, श्रीधर अनंत :** (जल्म : ४ जून १९३२, पैंगीण, काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा पैंगीण वाठारांत जाल्या सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी १२ वर्सां खातीर बंदखणींत दवरलो. पूण ४ वर्सां आनी णव म्हयने ख्यास्त भोगले उपरांत ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**पै, गोविंद :** (जल्म : २३ मार्च १८८३, मंजेश्वर, द. कॅनरा - कर्नाटक; मरण : ६ सप्टेंबर १९६३, मँगलोर).

नामनेचो कन्नड कवी आनी एक व्हड संशोधक. ताणें बी.ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. वेगवेगळ्यो भारतीय भासो, संवसारीक वाङ्मय, तत्त्वगिन्यान आनी इतिहास ह्या विशयांचो ताणें खोलायेन अभ्यास केल्लो. विसांपरसय चड भाशा ताका बरेतरेन येताल्यो. तातूंत ग्रीक आनी हिब्रू ह्या भासांचोय आस्पाव आशिल्लो.

ताची पयली कविता 'सुहासिनी' ही १९००त उजवाडा आयली. पारंपारिक अशा द्वितीय प्रासाचो (चरणातलें दुसरे अक्षर तेंच येवप) उपेग करिनासतना रचणुको करपी तो पयलो कवी. भावगितांभायर ताणें

येशू ख्रिस्ताचे जिणेवयली गेल्गोथा (१९३१) आनी गौतमबुद्धाचे जिणेवयली वैशाखि (१९४९) ही दोन खंडकाव्यांय बरयलीं. ताचीं वेंचीक भावगितां 'गिळिविंडु' (१९३०) ह्या झेल्यांत उजवाडाक आयल्यांत. ताणें 'हेब्बेरळु' (१९४६) आनी चित्रभानु (१९४९) हीं दोन नाटकां बरयलीं. तातूंतलें पयलें नाटक एकलव्याचे कथेचेर आसा आनी दुसरें १९४२च्या छोडो भारत चळवळींतल्या एका हुतात्म्याचेर आदारित आसा. ताणें कांय जपानी 'नो' नाटयांचोय कन्नड अणकार केला.

ताणें सुमार १६० परसय चड संशोधनात्मक लेख बरयल्यात. तातूंत कर्नाटक आनी तुळुनाडु हांचो इतिहास, पुर्विल्ले भारत-ग्रीस संबंद, इतिहासकाळांतल्या राजांची, गौतम बुद्ध, महावीर ह्या सारक्या धर्मप्रवर्तकांची आनी पुर्विल्ल्या लेखक-कवींची कालनिश्चिती आदी विशयांचो आस्पाव आसा. धारवाडच्या कन्नड संशोधन संस्थेंत दिल्लीं ताचीं खास व्याख्यानां 'मुरू उपन्यासगळु' (१९४०) ह्या नांवान संग्रहीत केल्लीं आसात.

सर्जनशील साहित्य आनी इतिहासीक संशोधन ह्या दोनय मळांचेर ताणें मोलादिक वावर केल्लो. ताच्या साहित्यांत देशभक्ती, सगळ्या धर्मांकडेन सुसंवाद सादपाची नदर आनी मानवतावादी दृश्टीकोन आदी खाशेलपणां ताच्या साहित्यांत दिसतात.

चेन्नई राज्यशासनान ताका १९४८त 'राश्ट्रकवि' हो भोवमानाचो पुरस्कार दिलो. १९५० वर्सा मुंबय हांगा भरिल्ल्या अखिल कन्नड साहित्य संमेलनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. पै हाच्या नांवान उडुपी हांगां 'श्री गोविंद पै संशोधन केंद्र' स्थापन जावन थंय कन्नड आनी तुळु भाशेचें संशोधन चालू आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पै, डॉ. टी. एम्. ए. :** (जल्म : ३० एप्रिल १८८९, टोणसे, कल्याणपूर; मरण : २९ मे १९८९).

पुराय नांव टोणसे माधव अनंत पै. उडुपी सावन चार मैलांचेर आशिल्ल्या खेडेगांवांत एका धर्मीक कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. ताचें मुळावें शिकप कल्याणपूरच्या कॅथोलिक ख्रिश्चन स्कूल तशेंच ब्राह्मण स्कूलांत जालें. १९०७त माधव फकत ९ वर्सांचो आसतना ताच्या बापायक मरण आयलें. तेन्ना व्हडल्या भावान पी. ए. ब्रदर्स नांवान स्टेशनरी, कटलरी, पुस्तकां विकपाचें ल्हानशें दुकान घालें. माधव आपलें शिकप करून दुकानूय सांबाळटालो. सेंट ॲलोय सियस कॉलेजींत आसतना ताका समाजसेवेची आनी शिक्षण प्रसाराची तळमळ लागिल्ली. हेच तळमळींतल्यान पिरायेच्या २१व्या वर्सा १९१९-२०त ताणें हिंदू स्कूलांत पगाराविणे मुखेल अध्यापकाचीं सूत्रां हातांत घेतलीं. तो बरो शिक्षक आशिल्लो. विद्यार्थ्यांक गणिताची बरी पाठ्यपुस्तकां ना तें पळोवन ताणें



यत्ता ६ वी ते ८ वेच्या वर्गाखातीर गणिताचीं पाठ्यपुस्तकांय तयार केलीं. ह्याच वेळार ताणें मद्रास विद्यापिठाच्या मेडिकल कॉलेजींत प्रवेश मेळोवपाखातीर अर्ज केलो आनी सुवाती मर्यादित आसतना लेगीत १९२०त ताचो अर्ज विद्यापिठान मानून घेतलो. हांगा ताका सर ए. लक्ष्मणस्वामी मुदलियार हाचें मार्गदर्शन लाबलें. १९२५त ताणें एम.बी.बी.एस्. ची पदवी हातासली. वैजकी शिक्षण घेता आसतनाच उत्तर कर्नाटकांतल्या होन्नावर लागसारच्या माविन कुर्वे गांवच्या कामाक्षी शेणय हिचेकडेन ताचें लग्न जालें.

दोतोर जाले उपरांत आपल्या एका प्रोफेसराच्या सांगण्यावयल्यान ताणें हाँगकाँगाक वचपाचें थारायलें. पूण आवयन ताका भारतानूच रावून देशाची सेवा करपाचे फर्मावन परदेशांत वचपाक परवानगी न दिल्ल्यान ताणें उडुपीकच वैजकी सुरू केली. ताणें ल्हानशें इस्पितळ घालें. रोग्याची फुकट तपासणी करून, तांकां फुकट वखदां दिवप, तशेंच जाय पडल्यार तांची रावपाचीय सोय ताणें केली. आपल्या हॉस्पिटलात तो शस्त्रक्रिया करतालो. तेभायर बेझेल इव्हानजेलीकल मिशन हॉस्पिटलांतूय वचून थंयच्या दोतोराक शस्त्रक्रियांक आदार दितालो. मणिपाल दोंगुल्लेचेर १९३४त ताणें १२ खाटीचे हॉस्पिटल बारीक जोराच्या रोग्यांखातीर बांदले.

इतले मजगती १९२५त व्हडलो भाव यु. ए. पैन कॅनरा इंडस्ट्रीयल अँड बँकींग सिंडिकेट लिमिटेड हे वित्त संस्थेची स्थापना केली. ते संस्थेचो एक संचालक म्हणून टी. एम्. ए पैन काम पळयलें. फुडाराक वेवस्थापकीय संचालक आनी चेअरमन पदाचेरूय तो वावुरलो. १९३३त कॅनरा लॅंड इन्व्हेस्टमेंट लिमिटेडची स्थापना करून जमनीचो विकास करपाचो वावर ताणें हातान घेतलो. १९३५त ताणें नळ्यांचो कारखानो घालो. १९५०त २५ वर्सां वैजकी करून शेवटाक ताणें दोतोरकी सोडली आनी आपलें लक्ष बँकींग, शिक्षण आनी हेर आस्थापनाचेर केंद्रीत केलें.

शिक्षणाच्या प्रसार-प्रचाराखातीर १९४२त ताणें ॲकॅडमी ऑफ जनरल एज्युकेशन ही संस्था स्थापली. हे संस्थेचे अंतर्गत जवळ जवळ ३५ शाळा-कॉलेजी मणिपाल, उडुपी आनी सभोवतणच्या वाठारांत सुरू करून दक्षिण कर्नाटक जिल्ह्याक भारतांतलो एक व्हड प्रगतीशील प्रदेश म्हणून नामना मेळोवन दिली. हे संस्थेच्या आश्रयाखाला १९४० ते १९५० ह्या काळांत मुळाव्यो शाळा ज्युनियर बेझीक स्कूल तशेंच हायस्कूल सुरू करून ताणें शाळांचें जाळेंच विणलें. तेभायर उंचेल्या शिक्षणाचे नदरेन मणिपाल इंजिनियरिंग कॉलेज (१९५७) फुडाराक मणिपाल इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजी (१९७५) अशें ताका नवें नांव दिलें. उडुपी लॉ कॉलेज (१९५७), श्री महावीर कॉलेज, मुडबिद्री (१९६५), श्री जगद्‌गुरू चंद्रशेखर भारती मेमोरियल कॉलेज ऑफ आर्टस् अँण्ड सायन्स, शृंगेरी (१९६७), वेवसायिक शिक्षण दिवपी मणिपाल कॉलेज ऑफ एज्युकेशन (१९६६), फार्मसी कॉलेज (१९६७), डेंटल सर्जरी कॉलेज (१९७३) हाचे भायर हेर बरीच महाविद्यालयां सुरू करून म्हळ्यार एक महाविद्यालय संकुल उबारून शिक्षणाची गंगा घराघरान पावयली.

डॉ. टी. एम्. ए. पै उडुपी हांगा १९४९त सुरू केल्लें महात्मा गांधी मेमेरियल कॉलेज ही एक म्हत्वाची शिक्षणीक संस्था. ह्या कॉलेजांत पदवी अभ्यासक्रमा वांगडाच कांय काळा उपरांत गोविंद पै संशोधन केंद्र आनी लोककलेच्या अभ्यासाखातीर लोकवेद संशोधन केंद्रूय सुरू केलें.

हांगा पुराण वस्तूसंग्रहालयूय आसा. तशेंच १९५३त सुरू केल्लें कस्तुरबा मेडिकल कॉलेज हीय एक वैजकी मळावयली नामनेची संस्था. हांगा आयज संवसारातलें एक व्हड शरीरविज्ञान संग्रहालय आसा. १२ खाटींचें सुरू केल्लें हॉस्पिटल आयज हांगा पुराय दोंगुल्लीभर पातळ्ळा. आयज कस्तुरबा मेमोरियल जनरल हॉस्पिटल अशें ताचें नांव आसा. तेचप्रमाण १९५७त मेडिकल रिलिफ सोसायटी ऑफ साऊथ कॅनरा स्थापून खेडे वाठारांतल्या लोकांक वैजकी सेवा मेळोवन दिवपाचें ताचें काम व्हड मोलादीक जावन आसा.

सादें रावप, उंचेले विचार करप, ध्येयां आंखप आनी तीं फळादीक करून दाखोवप हातुंतूच ताची पुराय जीण गेली. कांय म्हयन्याच्या किरकोळ वायटान २९ मे १९७९ हे दिसा तो ह्या संवसाराक अंतरलो.

ताचे फाटले पिळगेन ताचो बँकींग तसो शिक्षणीक आनी समाजीक वावर मुखार व्हेलो. आयज घडयेक टी. एम. ए. पै फाउंडेशन हे पै घराण्याचे संस्थेवरवी शिक्षण आनी संशोधनाचो वावर व्हड प्रमाणांत चल्ला. तशेंच ताणीं मुळावण घाल्लो बँकेचो वावरय व्हड प्रगतीपथाचेर आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पैठण :** महाराष्ट्रांतलें एक नामनेचें पुर्विल्लें, पवित्र नगर. हें शार औरंगाबाद जिल्ह्यांत औरंगाबाद शाराचे दक्षीणेक सुमार ५५ किमी. अंतराचेर गोदावरी न्हंयेचे देगेर वसलां. ह्या थळाक २५०० वर्सांची संस्कृतीक परंपरा आसा. पुर्विल्ले कोरीव लेख, हिंदू, बौध्द आनी जैन साहित्य तशेंच टॉलेमी (इ.स. ९०-१६९), मार्को पालो (१२५४-१३२४), इब्न बतूता (१३०४-७८) ह्या सारक्या भोंवडेकारांच्या भोंवडेवर्णनांनी ह्या थळाविशीं म्हायती मेळटा. ह्या थळाक प्रतिष्ठान, पोतली, पइट्ठान, पट्टन, पोयणपूर आदी नांवां पुर्विल्ल्या साहित्यांत मेळटात. पैठणचो सगळ्यांत पोरणो उल्लेख सुत्तनिपात ह्या ग्रंथांत मेळटा. तातूंत ह्या नगराक पोतण नगर अशें म्हळां आनी ती अस्सक (अश्मक) देशाची राजधानी आशिल्ल्याचें सांगलां.

अशोकाचो शिलालेख आनी सांचि स्तूप हातूंत हांगासल्ल्या नागरिकांक अनुक्रमान पेतनिक आनी पैठणिक असो उल्लेख मेळटा. 'पेरिप्लस ऑफ द एरीथ्रीअन सी' ह्या ग्रंथांत पैठणचे सुबत्तेविशीं तेचपरी थंयच्या वेपाराविशीं जायते उल्लेख मेळटात. अशोकाच्या मरणा उपरांत महाराष्ट्रांत सातवाहन नांवाचें राज्य उदयाक आयलें. ताणीं महाराष्ट्रांत एक व्हड आनी घटमूट अशें साम्राज्य तयार केलें. ताच्या ह्या येद्या व्हड साम्राज्याची राजधानी पैठण हीच आशिल्ली. देखून ह्या काळांत पैठणची सगळ्या वटांनी उदरगत जायत गेली. फुडें सातवाहना उपरांत वाकाटक, चालुक्य, राष्ट्रकूट आदी वंशांच्या काळांत त्या राजांनी आपल्यो राजधानयो दुसरेकडेन व्हेल्ल्यान पैठणच्या वैभवाक देंवती कळा लागली. ताचे उपरांत यादव काळांत ह्या नगराक धर्मपीठ म्हणून म्हत्व मेळ्ळें. यादवां उपरांत पैठणाचेर बाहमनी, मोगल, निजामशाय, मराठे आनी परत निजामशाय हांचो शेक आशिल्लो. ब्रिटीश काळांत तें हैदराबाद संस्थानाच्या अखत्यारिंत आशिल्लें.

एका काळांत हाका दक्षिण काशी अशेंय म्हण्टाले. इतिहास काळांत पैठणची संस्कृत विद्येचें महापीठ म्हणुनूय नामना आशिल्ली. सातवाहन राजे विद्याकलेचे भोक्ते आशिल्ले. तांच्या काळासावनूच हांगा पंडितांची परंपरा सुरु जाली. बृहत्कथेचो कर्तो गुणाय हो सातवाहनाचो आश्रीत आशिल्लो. ताचे खातीर प्राकृत भाशेक मान आनी राजाश्रय मेळ्ळो. व्याकरण आनी धर्मशास्त्र ह्या दोन ज्ञानशाखांचें हांगा अध्ययन आनी अध्यापन चलतालें. कमलाकरभट्ट (निर्णयसिंधू), भट्टोजी दीक्षित (सिध्दांत कौमुदी), गागाभट्ट ह्या सारके व्हड व्हड पंडीत हांगा जावन गेले. तेभायर जायते संत आनी कवी हांगा वास्तव्य करून आशिल्ले. तातूंत चक्रधर, एकनाथ, भानुदास, मुक्तेश्वर, बहेरा जातदेव, चिमणा जातदेव आदींची नामना आसा.

शारांत नागरी हॉस्पिटल, माध्यमिक विद्यालय, मागासवर्गीय विद्यार्थ्यांखातीर वसतीगृह, प्रतिष्ठान कला आनी वाणिज्य महाविद्यालय, शासकीय मूलभूत प्रशिक्षण महाविद्यालय, इतिहासीक वस्तूसंग्रहालय, संगीत विद्यालय, ज्ञानेश्वर उदयान आदी संस्था आसात. शारांत औरंगाबाद पेपर मिल, नाथ पेपर मिल, संत एकनाथ सहकारी साकर कारखानो आदी उद्देगीक संस्था आसात.

हांगाच्या जायकवाडी प्रकल्पांत पैठणच्या लागसार आशिल्ल्या दुकळाच्या वाठारांत शिंपणावळ सुविधा उपलब्ध जाली, तरी ह्या प्रकल्पान कांय तीर्थथळां उदका सकयल गेल्यांत. एकनाथाचें एक देवूळ शाराचे उत्तरेक न्हंयेचे देगेर आसून ताचे मुखारूच ताची समाधी आसा. ते समाधीच्या दोनय वटांनी हरीपंडीत आनी चक्रपाणी हांच्यो समाध्यो आसात. हांगाचे न्हंयेचे घाट सुंदर आसून ताका नागघाट म्हण्टात. तातूंतल्या एका घाटार ज्ञानेश्वरान रेड्याकडल्यान वेद म्हणून घेतिल्लो अशी आख्यायिका आसा.

घाटाशेजरा सिध्देश्वर देवूळ आसून गांवांत अनंतऋषी, शीव, इंद्रेश्वर महादेव, लक्ष्मी नारायण आदी देवळां आसात. तेभायर रेणुकादेवीच्या पुर्विल्ल्या देवळाच्या जाग्यार उबारिल्लो मौलाना साहेबाचो दर्गो, तिरात खांबो, सुंदर बेगची मशीद, मुकेरी मशीद, कोटी मशीद, जुम्मा मशीद आदी मुसलमान वास्तू हांगा आसात. जरीचें कापड आनी वीणकाम हांचेखातीरूय पैठणाची नामना आशिल्ली. आयजूय जरीबुट्यांचीं उंची कापडां पैठणी ह्या नांवान वळखतात. हांगाच्या लाकूडकामाचीय नामना आसा.

हैदराबाद संस्थानाच्या पुरातत्त्व विभागान १९४३त आनी महाराष्ट्र राज्याच्या पुरातत्व विभागान १९६६-६७त हांगा उत्खननां केलीं. ह्या उत्खननांनी अश्मयुगांतलीं हत्यारां आनी जनावरांचीं अश्मीभूत हाडां मेळ्ळ्यांत. उपरांत मेळिल्ल्या कांय अवशेशांवयल्यान इ.स. आदीं १५०० ते १००० ह्या काळांत हांगा ताम्रपाशाणयुगीन संस्कृताय नांदताली असो अदमास करतात.

रोमी साम्राज्यांतल्या वाठारांकडेन पैठणचो वेपारी संबंद आशिल्लो हें हांगा मेळिल्ल्या रोमी मद्यकुंभावयल्यान स्पश्ट जाता. उत्खननांत मेळिल्लीं सातवाहन काळांतली नाणीं, मणी, खेळणीं, देवांच्यो मातयेच्यो मुर्ती, घरांचे अवशेश आदी पैठणच्या पुर्विल्ल्या वैभवाचें दर्शन घडयतात. पयले वस्तीचे अवशेश सुमार ७ मी. खोल मेळ्ळे आनी ही वस्ती हुंवारान नश्ट जाल्ल्याचो पुरावो मेळ्ळा. ताचे उपरांतची दुसरी वस्ती तुघलक-बाहमनी काळांत हुंवारानूच नश्ट जाल्ली. मुसलमान-ब्रिटीश काळांतलीं कांय नाणींय हांगा मेळ्ळ्यांत.

दर वर्सा फाल्गून वद्य षष्ठीक हांगा व्हड जात्रा भरता. त्या दिसा एकनाथाचें निर्वाण जालें. ह्या दिसाक नाथषष्ठी अशेंय म्हण्टात.

– कों. वि. सं. मं.

**पैठणी :** महाराष्ट्रांतल्या भरजरी वस्त्रकलेचो एक परंपरीक प्रकार. हें वस्त्र गर्भरेशमी आसून तिचो पदर पुराय तरेन जरीचो आसता. देग रूंद आसता आनी तिचेर खणखणीत वेलबुट्टी आसता.

सुमार दोन हजार वर्सांसावन पैठण हें हे कलेचें केंद्र समजतात. पैठण ह्या नांवावयल्यानूच पैठणी हें नांव ह्या वस्त्राक मेळ्ळें. सगळ्यांत पोरणी पैठणी सोळा हात लांब आनी चार हात रूंद आसून तिच्या देगेपदराचेर वेलबुट्‌ट्री वा मोनजातींच्यो प्रतिमा आसताल्यो. तिचें वजन सुमार साडेतीन शेरांमेरेन (सुमार ३ कील ३०० ग्रा.) आसतालें. एके पैठणीक सादारणपणान सुमार बावीस तोळे (सुमार २५६.६० ग्रा.) रुपें आनी स (सुमार ५.८ ग्रा.), आठ (सुमार ७.८ ग्रा.), बारा (सुमार ११.६ ग्रा.) वा केन्नाय अठरा मास (सुमार १७.४ ग्राम) भांगर वापरताले. बारामासी, चवदामासी आनी एकवीसमासी ह्या सारक्या नांवांनी पैठणीचो प्रकार, पावंडो आनी मोल थारायताले. १३० नंबरचें रेशीम वापरिल्ल्यो छत्तीसमासी पैठणी राजघराण्यांत गेल्ल्याची नोंद पोरण्या कागदपत्रांनी मेळटा. पैठणीच्या पदरांक आसावली, बांगडी, मोर, अक्रोटी आनी गसवेल ह्या सारकीं अर्थपूर्ण नांवां आसतालीं. ह्या पदरांचेर रंगीत उंची रेशमी धाग्यांनी जी वेलबुट्टी काडिल्ली आसताली तिका मीनाकारी म्हण्टाले. पाचवो, हळदुवो, तांबडो आनी करडकुसुंबी (भगवो) हे पैठणीचे खाशेले रंग आसून ते अंजरी, सोनकुसुंबी आनी लेव हळदुवो रंगूय वापरताले. पैठणी तयार करपाक सुमार एकवीस दीस लागताले. ती सुमार शंबर वर्सां तिगताली. पैठणीचे निर्मितींत जायत्या कारागिरांचो हात लागतालो.

सतराव्या शेंकड्यांत रघोजी नाईक ह्या सरदारान शामदास वालजी नांवाच्या एका गुजराती मनशाचे वतीन पैठणासावन येवलेवाडी (नासिक जिल्ह्यांतलें सद्याचें येवला) गांवांत पैठणी विणपी कसबी कारागीर हाडून पैठणाक पेठ वसयली आनी तांचेकडल्यान पैठणीचें उत्पादन सुरू केलें. येवल्यावरीच सुरत आनी अहमदाबादेकूय पैठणीभाशेन रेशमी जरीचीं वस्त्रां विणूंक लागले. तरी पूण पैठणीचें म्हत्व उणें जालेंना. पेशवाईच्या काळांत पैठणीक खुबूच म्हत्व मेळ्ळें.

विसाव्या शतमानाच्या पयल्या दशकामेरेन पैठणीची पारंपारीक शैली आनी उंचेलो पांवडो तिगून आशिल्लो. पूण उपरांतच्या काळांत लोकांच्या आवडीनिवडींनी बदल जावंक लागले आनी पैठणीच्या पारंपारीक शैलितूय नवे-नवे आकृतीबंध तयार जाले. पूण फुडें फुडें पैठणीच्या कारागिरांक मेळपी राजाश्रय आनी लोकाश्रय ल्हवू-ल्हवू उणो जायत गेलो. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत भांगरा-रुप्याचें मोल वाडलें, जकार्ड यंत्राच्या वीणकामाखातीर उत्पादनाचो वेगूय वाडलो. पैठणीच्या जाग्यार बनारसी शालू सारक्यो भपकेदार आनी सवाय दरान मेळपी साडयो आयल्यो आनी पैठणची आनी येवल्याची पैठणीचें म्हत्व उणें जायत गेले.

स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत महाराष्ट्र शासनान हे कलेंत उदरगत घडोवपाचे नदरेन १९६८ त पैठणाक 'पैठणी उत्पादन केंद्र' सुरू केलें. १९७४ सावन पैठणी उद्देगांत उदरगत करपाचें काम शासनान महाराष्ट्र लघु उद्देग विकास मंडळाकडेन सोंपयलें. ह्या मंडळान पैठण आनी येवलाच्या वीणकारांक स्फूर्त दिवन पैठणी निर्मीतीचो वावर परतो नव्यान सुरू केलो आनी तातूंत ताका येसय मेळ्ळें. १९७५ वर्साच्या राज्य पांवड्यावयल्या हातमाग आनी हस्तकला उद्देग सर्तीतलें पयलें एक हजार रुपयांचें इनाम पैठणी विणीखातीर पैठणच्या रहिमतबी हे वीणकार बायलेक मेळ्ळें. १९७८ चे सर्तींतलें पयलें इनाम पैठणच्याच सीताराम मारवाडे (साळी) ह्या जाण्टया वीणकाराक मेळ्ळें. ताणें विणील्ली पैठणी पारंपारीक पद्‌धतीची आसून तिच्या देगेपदराचेर पयल्या शतमानांतले अतीपुर्विल्ले आकृतीबंध आनी झाडां विणिल्लीं आसात.

त्या काळांतल्या शाहिरांच्या तेचपरी संतकवींच्या तशेंच लोककवींच्या काव्यांत परत-परत पैठणीचे उल्लेख मेळटात. सद्याची पैठणी ही पारंपारीक शैलीची नासून तिका 'अजंठा' शैलीची म्हणून वळखतात. हे शैलींत अजंठाच्या वण्टीचित्रांनी आशिल्ले पानाफुलांचे आनी मोनजातीचे आकृतीबंध आसतात. तेचपरी देगेवयल्या डिझायनाखातीर 'फरसपेठी' आनी 'इंदोरी' ह्या दक्षिणी शैलींचो वापर करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**पैडाल :** (इ.स. चें १८वें शतमान).

दक्षिण भारतांतलो एक नामनेचो कवी आनी गायक. हो तेलुगू ब्राह्मण आसून सोंटी वेंकट सुबय्या हाचो शिश्य आशिल्लो. आपल्या गुरू कडल्यान ताणें संगीतशास्त्राचें खोलायेन गिन्यान मेळयल्लें. फुडें तो चेन्नईक गेलो, थंय ताणें आपले गायकीन खूब नामना मेळयली. ताणें संचारी गितां, लक्षणगितां, प्रबंध आनी कीर्तनां अशीं सुमार एक हजार पदां रचल्यांत. तो पदांचे बैठकींत स्वता रचिल्लींच पदां गायतालो. त्या काळांत ताची सुमाराभायर नामना आशिल्ली. गुडाळ शेषैय्यार शोभानाद्री आदी नामनेचे संगीतकार ताचे शिश्य आशिल्ले. गुरूमुर्ती शास्त्री अशें ताचें नांव आशिल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

**पै, दत्तात्रय व्यंकटेश :** (जल्म : १९०१, पाड्डें; मरण : २५ मे १९५३, कांदिवली).

नामनेचो पत्रकार. ताचें मुळावें शिक्षण पाड्डया घरचें घराच जालें. लिंसेवाचें तीन वर्सांचें शिक्षण ताणें मडगांवा घेतलें. फुडें चवथ्या आनी पांचव्या वर्साचें शिक्षण ताणें पणजे घेतलें. उपरांत इंग्लीश शिक्षण घेवंक कांय काळ तो कारवाराक गेलो.

कारवारासावन परत येतकच फोंडेंच्या 'कुलेजियु आल्मैद' हे शाळेंत ताणें २-३ वर्सां शिक्षक म्हणून काम केलें. अदीं मदीं तो पणजेच्या 'नवजीवन' आनी फोंडेंच्या 'विद्याप्रसार' नेमाळ्यांखातीर बरप करतालो. ताचें तें बरप पळोवन ताच्या मामान ताका 'हिंदू' हें नेमाळें सुरू करून दिलें. १९३० त 'हिंदू' बंद पडटकच मोरमकर हाणें मुंबय नवेंच सुरू केल्ल्या 'लोकमत' ह्या दिसाळ्याचो संपादक जावन तो मुंबय गेल्लो, पूण थंय मालकांकुडेन मतभेद जावन तो गोंयां परतलो.

उपरांत मडगांवच्या दामोदर विद्यालयाचो मुखेल म्हणून ताणें वर्सभर काम केलें. मडगांवां 'हिंदू विद्यार्थी वसतीगृह' सुरू करून ताणें विद्यार्थ्यांची रावपाची अडचण पयस केली. फुडें ताणें वसतीगृह बंद करून 'इंश्तितूत आबाद फारिय' ही लिसेंवाचो अभ्यास शिकोवपाची सुविधा आशिल्ली खाजगी शिक्षण संस्था स्थापली आनी ती १९४६ मेरेन चलयली.

१९४६ त गोंयांत पुर्तुगेजांआड चळवळ सुरू जाली तेन्ना पै हिंदू नेमाळ्यांतल्यान राजकारणाची चिकित्सा करतालो. गोंयांत पुर्तुगेजांचो शेक आशिल्ल्या कारणान आपल्या बरपावळीवरवीं प्रत्यक्षपणान ताका चळवळींत वांटो घेवंक शक्य नाशिल्ल्यान तो बेळगांवां गेलो. थंय ताणें

'विकास' नांवाचें सातोळें सुरू केलें. फुडें तेंय बंद करून तो मुंबय गेलो. थंय तीन वर्सां रावन ताणें गोंयचे सुटके चळवळीचो वावर केलो.

गोंयच्या मराठी मुळावे शाळेंतल्या भुरग्यांक सोंपेपणान विज्ञान शिकोवंक मेळचें म्हणून ताणें 'बालविज्ञान संयोग' ही पुस्तकमाला बरयली. तेभायर गोंयचो भुगोल आनी पुर्तुगेज भाशाप्रवेश हीं शालेय पुस्तकां, तशेंच एकदोन इतिहासाविशीं, एक राजकीय तत्त्वगिन्यानाचेर, एक गोंयच्या सुटकेझुजाचें अशीं हेर पुस्तकांय ताणें बरयलीं.

तो जायत्या भौशीक कार्यावळींनी वांटो घेतालो. शुध्दी चळवळींत मसूरकर महाराजान काडिल्ल्या महाराष्ट्राच्या दौऱ्यांत वांटो घेवन ताणें उलोवपां केल्लीं. १९३०च्या महाराष्ट्र साहित्य संमेलनाचो तो सरचिटणीस आशिल्लो.

– कों. वि. सं. मं.

**पैदाईश :** एक मुसलमानी संस्कार. उत्पत्ती वा जल्म असो ह्या शब्दाचो अर्थ जाता. भुरगें जल्मतकच ताका भायर हाडटात. तेन्ना गांवचो मुखेल मौलवीन त्या भुरग्याच्या उजव्या कानांत अझान आनी दाव्या कानांत इकामत हे मंत्र उच्चारपाचे आसतात. प्रत्यक्षांत जाका हे मंत्र येतात तो कोणूय मुसलमान हें काम करूंक शकता.

ह्या संस्कारा उपरांत भुरग्याचो बापूय दानधर्म करता. उपरांत भुरग्याचे भलायकेक लागून, सुखशांती खातीर फातिहा ही प्रार्थना म्हण्टात. भुरगें जल्मल्ल्याच्या सातव्या दिसा हजरत इब्राहिम हाच्या बलिदानाची याद म्हणून चलो जाल्यार दोन आनी चली जाल्यार एक बोकडो कापतात. ह्या बोकड्याचें मास सोयऱ्यां-दायऱ्यांक आनी इश्टांक प्रसाद म्हणून दितात. तशेंच भुरग्याचे केंस कापून त्या केंसांच्या वजना इतलें रूपें वा त्या मोलाचें धान्य फकिराक वांट्टात. हो सुवाळो सातव्या दिसा जायना जाल्यार सात वर्सां मेरेन केन्नाय करतात. सातव्याच दिसा भुरग्याचें नांवूय दवरतात.

अब्द म्हळ्यार सेवक वा गुलाम. हे शब्द ईश्वरवाचक शब्दांक जोडून ईश्वरसेवक वा दास ह्या अर्थान अबुर्रहमान, गुलाम अल्ली अशीं नांवां दवरतात. चलयांच्या नांवांनी महमंद पैगंबराच्या बायलांची वा भुरग्यांची नांवां दवरपाची चाल आसा. देखीक – फातिमा, आयशा, रुकिया आदी.

– कों. वि. सं. मं.

**पै नाथ :** (पळेयात नाथ पै).

**पै, म्हाळ :** गोंयांतल्या विजयनगर काळांतलो सरदेशमुख. तिसवाडी सावन कारवारमेरेन प्रदेशाचेर ताचो अधिकार चलतालो. वेर्णेच्या म्हाळसा देवळा लागसार ताचो वाडो आशिल्लो. तशेंच पोरणें गोंय शारा लागसार करमळी गांवांत ताचो आनीक एक वाडो आशिल्लो. पुर्तुगेजांच्या दप्तरांत (Tombo das Rendas) ताचो उल्लेख Mar Poi असो आयला.

नायटे गोवा शारांत बोवाळ घालतात हें पळोवन ताका धावंडावपा खातीर पुर्तुगेजांक आपोवपाची कल्पना ताचीच. उपरांत तिमय्याच्या आदारान आल्बुकेर्कान गोंय शार घेतलें आनी तो म्हाळ पै हाच्या करमळेच्या वाड्यांत रावलो. फुडें म्हाळ पैक पुर्तुगेजांच्या छळाचो आनी बाटाबाटीचो वायट अणभव आयिल्ल्यान ताका पश्चाताप जालो आनी पुर्तुगेजांक धांवडावपाखातीर तो आदिलशहा कडेन कारस्थानां करूंक लागलो. ही खबर पुर्तुगेजांक कळ्ळी हें म्हाळ पैक समजलें तेन्ना तो कुटुंबावांगडा गोंयांसावन सरळ कोचीक गेलो आनी थंयच स्थायीक जालो. ताचे फाटल्यान पुर्तुगेजांनी ताची आसपत जप्त केली.

म्हाळ पैन कोची राज्यांतलो बाराबंकी हो गांव सरकाराकडल्यान विकतो घेतलो आनी त्या गांवांत तो वाडो बांदून रावंक लागलो. ताचे मोवाळ वागणुकेक लागून थंय ताची रोकडीच नामना जाली. आनी 'कर्ताब' अशें भोवमानाचें नांव ताका मेळ्ळें. अजुनूय तें त्या घराण्यांत चालू आसा.

ताच्या मरणा उपरांत ताचो चलो विठ्ठल पै मुद्दाम विजापुराक गेलो आनी गोंयांत आपल्या बापायक देशमुखीचे जे हक्क आशिल्ले ते आपल्याक मेळचे असो ताणें अर्ज केलो. आदिलशाहान तो मान्य करून ताका तशी सनद दिली.

– कों. वि. सं. मं.

**पै, लक्ष्मण :** (जल्म : २१ जानेवारी १९२६, मडगांव).

संवसारीक नामना मेळिल्लो एक गोंयकार चित्रकार. ताचें मूळ घराणें पै फोंडेंकार ऊर्फ सांबारी मडगांवांत राबितो करून आशिल्लें. मडगांवच्या



दामोदर विद्यालयांत ताणें आपलें मुळावें शिक्षण घेतलें. उपरांत तो मडगांवचे सरकारी शाळेंतल्यान पुर्तुगेजींतलो सेगुंद ग्राव पास जालो. उपरांत न्यू इरा हायस्कूलांत ताणें मॅट्रिकेमेरेनचें शिक्षण घेतलें.

पिरायेच्या १२-१३ वर्सांचेर तो आपलो मामा रामनाथ मावजो हाच्या स्टुडिओंत वचूंक लागलो. थंय मामाच्या हातासकयल फोटोग्राफीचें ल्हान-ल्हान काम करतनाच हे कलेविशीं ताका आवड निर्माण जाली. मॅट्रीक पास जाले उपरांत, १९४३ वर्सा गोंयचो फांकिवंत चित्रकार दीनानाथ दलाल आनी आपलो मामा हांच्या उत्तेजनान तो मुंबय जे. जे. स्कूल ऑफ आर्टांत कलेचें शिक्षण घेवंक गेलो. १९४७ वर्सा शिक्षण पुराय करून ताणें तेच कॉलेजींत शिक्षकाची नोकरी धरली. १९५१ वर्सा तो पॅरिसाक गेलो. थंय तो कांय भारतीय चित्रकारांक मेळ्ळो. तांच्या उत्तेजनान १९५२ वर्सा ताणें लंडनांत रूअ द लियनांत आनी पॅरिसांत आपल्या चित्रांचें प्रदर्शन भरयलें. थंय ताका बरो प्रतिसादूय मेळ्ळो.

१९५३त तो भारतांत आयलो. ताणें दिल्लीक प्रदर्शन मांडलें. १९५४ वर्सा ताणें मुंबय प्रदर्शन भरयलें. पूण भारतांत ताचे कलेक फावो तसो प्रतिसाद मेळ्ळोना. १९५४ वर्सा तो परतून पॅरिसाक गेलो. १९५४-८५ ह्या काळांत ताणें अस्तंत जर्मनी, न्यू यॉर्क, बँकाक, सिंगापूर, अमेरिका तशेंच भारतांत साबार सुवातींनी आपल्या चित्रांचें प्रदर्शन घडोवन हाडलें. गीत-गोविंद, महात्मा गांधीची जीण, रामायण, गौतम बुध्द, ऋतुसंहार, संगिताचें भावविश्व आदी जायत्या विशयांचेर ताणें आपलीं प्रदर्शनां सादर केलीं. १९६०, १९६३, १९७२ ह्या वर्सांचो ललीत कला अकादेमीचो

पुरस्कार ताका मेळ्ळो. १९७७ वर्सा तो 'गोवा कॉलेज ऑफ आर्ट' कॉलेजीचो प्राचार्य जालो.

१९८५ वर्सा भारत सरकारान ताका पद्मश्री हो पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान केलो. १९८३त गोंय, दमण आनी दीव सरकारान ताचो भोवमान केलो. ताच्यो कलाकृती संवसारांतल्या नामनेच्या वस्तू संग्रहालयांनी तशेंच हेर खाजगी आनी भौशीक संस्थांनी दिश्टी पडटात.

– कों. वि. सं. मं.

**पोंगल :** दक्षिण भारतांतलो एक उत्सव. तमीळनाडूंत हो उत्सव व्हड प्रमाणांत मनयतात. तमीळनाडूंत ताका पोंगळ (पोंगल) आनी कर्नाटकांत सक्रांत म्हण्टात. तीन दिसांच्या ह्या उत्सवाची तयारी पयलीं म्हयनोभर चलता.

तमीळ पंचांगाप्रमाण मार्गशीर्ष हो वर्साचो निमाणो म्हयनो रोगकारक आनी दुश्चिन्न मानिल्ल्यान ह्या सबंद म्हयन्यांत रोग तशेंच हेर दुश्चिन्नां ना जावपाखातीर विधी, व्रतां करतात. ह्या वर्साच्या निमाण्या दिसाक 'भोगि' म्हणटात. ह्या दिसा घर निवळ करून, घराक नवो रंग दितात. दुसऱ्या दिसासावन, मकर संक्रमणाच्या दिसा उत्तरायणाचे सुरवातेक, 'पोंगळ' ह्या उत्सवान नवें वर्स सुरू जाता. ह्या दिसा सवायशिणी न्हावन धुवन आंगणांत रांगोळ्यो घालतात आनी दूध, गोड घालून तांदळांची खीर करतात. सुर्याक आनी गणपतीक हे खिरीचो निवेद्य दाखोवन, गायेक थोडो वांटो दितकच उरिल्ली खीर घरांतलीं सगळीं खातात. ह्या दिसा लोक नवे कपडे घालतात. एकमेकांगेर वचून 'पोंगळ, पोंगळ' अशें म्हणून परबीं दितात. गांवचो मुखेल ग्रामदेवतेक पोंगळाचो निवेद्य दाखयतात.

दुसऱ्या दिसा 'माटटु पोंगळ' मनयतात. ह्या दिसा गोरवांक न्हाणोवन बरीं सजयतात. तांची पुजा करतात. गोडशें करून जेवण घालतात. सांजवेळार गोरवांची आनी ग्रामदेवतांची मिरवणूक काडटात.

चेन्नईंत पोंगळ परबे निमतान कंदस्वामी देवळांतल्यान व्हड रथयात्रा काडटात. मदुराई, तिरुचिरापल्ली आनी तंजावर वाठारांनी हे परबे निमतान 'जल्लिक्कट्टु' म्हळ्ळ्यार बैलांच्यो सर्ती जातात.

सूर्यदेव, नवें वर्स, पशुधन आनी सुगी ह्या निमतान ही परब मनयतात. तातूंत सूर्य उपासनेक चड म्हत्व आसा.

– एन. एन. आनन्दन

**पोंबुर्पेकार, गणू पंढरी :** (जल्म : ११ मार्च १९२७, कांयसूव – बारदेस).

सुटकेझुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी सुमार देड वर्स बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**पोखरकर, राम गजानन :** (जल्म : ९ एप्रिल १९३४, धीफाल, जालना, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें मॅट्रिकेमेरेन शिक्षण घेतलें. तो राश्ट्रीय सेवा संघाचो वांगडी आशिल्लो. गोवा विमोचन सहाय्यक समितीन घाल्ल्या उल्याक लागून तो जालना सावन सावंतवाडीवटेन गोंयांत आयलो. ५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा ताणें म्हापश्यां सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. तेन्ना पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो, दोन दीस बंदखणींत दवरलो आनी उपरांत सोडलो. २६ मे १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**पोखर्ण ब्राह्मण :** ब्राह्मणांतली एक पोटजात. हांकां पुष्कर्ण अशेंय म्हण्टात. सिंधुचे देगण आनी मारवाड आदी वाठारांत तांची वस्ती आसा. हे पंचद्रविडांतलेच एक. तांचे वट्ट चवद्यांयशीं फांटे आसून तातूंत पुरायत, व्यास, जोशी, कल्ला, बोहरा आनी उपाध्याय हे फांटे श्रेश्ठ समजतात. हांचे उत्पत्तीविशीं दोन आख्यायिका आसात. त्यो अशो – १) हे लोक सुर्वेक बेलदार आशिल्ले. ते तळें खणपाचें काम करताले. अशाच एका खणिल्ल्या तळ्यांतली देवी तांचेर प्रसन्न जाली आनी तिणें तांका पोखर्ण ह्या नांवान ब्राह्मण केले. ते कुदळ ह्या अवजाराची पुजा करतात. ताचे वयल्यान वा पोखर्ण ह्या नांवावयल्यान ही दंतकथा निर्माण जाली. २) हांची वसणूक राजस्थानांतल्या पुष्कर वाठारांत आशिल्ली म्हूणन तांका हें नांव पडलां आसुंये.

हे लोक लांब-रूंद आनी शरिरान घटमूट आसतात. ते गुजराती आनी मारवाडी ह्यो दोनूय भासो उलयतात. तांचेमदले जायते लोक शेती आनी गोरवां पोसपाचो धंदोय करतात. जाल्यार कांय जाण गोडशें करप, रांदप करतात, जाल्यार कांय जाण भाटिया आनी लोहाणा हांचे पुरेयतपण करतात.

ताचेमदीं शैव, वैश्णव आनी शाक्त अशे तीन पंथांचे लोक आसात. तांची चवदा गोत्रां आसून दरेका गोत्राच्यो दोन कुलदेवता आसात.

ताचेमदीं हुंडो वा देज दिवपाची चाल ना. लग्न चड करून बायलोच थरयतात. तांचे भितल्ली सगळीं लग्नां एकाच दिसा भौशीक पद्दतीन जातात.

हेर खंयच्याच उत्सवापरस हे लोक निमाण्या संस्काराक चड खर्च करतात. ते धा दीस सगळ्या सोयऱ्या दायऱ्यांक जेवण घालतात आनी बाराव्या दिसा ज्ञाती भोजन घालतात.

– कों. वि. सं. मं.

**पोतदार, दत्तो वामन :** (जल्म : ५ ऑगस्ट १८९०, बिरवाडी – कुलाबा; मरण : ६ ऑक्टोबर १९७९, पुणें).

एक व्हड इतिहास संशोधक, मराठी लेखक आनी शिक्षणीक, समाजीक आनी संस्कृतीक क्षेत्रांनी व्हड योगदान दिवपी व्यक्ती. ताच्या घराण्याचें मूळ उपनांव ओर्पे अशें आशिल्लें. पूण आदिलशाहीच्या काळांत ताच्या पुर्वजाक पोतदार वा खजिन्याचो अधिकारी म्हूणन नेमिल्लो तेन्नाच्यान तांचें ओर्पे हे उपनांव वचून तांकां पोतदार हें नांव पडलें. ताचें मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण पुणेंच्या नूतन मराठी विद्यालयांत जालें. १९०६त तो मॅट्रीक जालो. १९१०त ताणें पुण्याच्या फर्ग्युसन म्हाविद्यालयांतल्यान बी. ए. ची पदवी घेतली. फुडें 'न्यू पुना' (सर परशुरामभाऊ कॉलेज) हे कॉलेजींत शिकोवपाचें काम ताका मेळ्ळें. फुडें नुतन मराठी विद्यालय हे मराठी शाळेचो आनी नुतन मराठी विद्यालयाचो अधिक्षक म्हणुनूय ताणें

कांय काळ काम केलें. आपले जिणेंत ताणें सतत अभ्यास करून जायत्यो पदव्यो मेळयल्यो. केंद्र शासनान ताका १९४८त 'महामहोपाध्याय' ही पदवी दिली. हिंदी साहित्य संमेलनाचेवतीन ताका 'साहित्य वाचस्पति' ही उपाधी मेळ्ळी. वाराणसेय विश्वविद्यापीठ आनी पुणें विद्यापीठ हाणीं डी. लिट. ही पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो.

१९१५ त पुण्याचे शिक्षण प्रसारक मंडळी हे संस्थेचो तो वांगडी जालो. १९३३-३६ ह्या काळांत तो महाराष्ट्र साहित्य पत्रिकेचो संपादक आशिल्लो. १९४६-५० ह्या काळांत पुण्याच्या शिक्षण प्रसारक मंडळीचो अध्यक्ष आशिल्लो. १९३९ त अहमदनगरांत भरिल्या मराठी साहित्य संमेलनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. जाल्यार १९४३ त महाराष्ट्र साहित्य परिशदेचो कार्याध्यक्ष आशिल्लो. १९४६-५० ह्या काळांत ताणें संयुक्त महाराष्ट्र परिशदेचो उपाध्यक्ष म्हणून काम केलें. १९४८ त तो पुण्याच्या टिळक महाराष्ट्र विद्यापिठाचो कुलगुरू जालो. १९६०-६३ ह्या काळांत तो पुणें विद्यापिठाचो कुलगुरू आशिल्लो. १९३९-४९ ह्या काळांत तो हिंदुस्थानी बोर्डाचो वांगडी आशिल्लो. फुडें ह्याच बोर्डाचो तो अध्यक्ष जालो. १९५०-५३ ह्या काळांत तो हिंदी शिक्षण समितीचो अध्यक्ष आशिल्लो. कांय वर्सां तो संस्कृत म्हामंडळाचोय अध्यक्ष आशिल्लो. १९२२त भारतीय इतिहासीक अभिलेख आयोगाचे मुंबय बसकेक वांगडी म्हणून ताका आपयलो. १९४०त भारत सरकारा वतीन त्याच आयोगाचो वांगडी म्हणून ताची नेमणूक जाली. हाचेंभायर संयुक्त महाराष्ट्र चळवळीच्या बौद्धिक मार्गदर्शनांत ताणें वांटो घेतिल्लो. मराठी शुद्धलेखन म्हामंडळाचो तो कांय वर्सां अध्यक्ष आशिल्लो. १९१८-४७ ह्या काळांत तो भारत इतिहास संशोधक मंडळाचो चिटणीस आनी उपरांत १९७३ मेरेन ह्याच मंडळाचो कार्याध्यक्ष आहिल्लो.

ताणें 'मॉडर्न इंडियन हिस्टरी कॉंग्रेस' (१९३५) आनी 'महाराष्ट्र राष्ट्रभाशा सभा' ह्यो दोन नव्यो संस्था स्थापन केल्यो. मॉडर्न इंडियन हिस्टरी कॉंग्रेस ही संस्था ताणें पुण्यांत स्थापन केली आनी तिचें पयलें अधिवेशन पुण्यांतूच भरयलें. पूण फूडें अलाहाबादेक भरिल्ल्या अधिवेशनांत हे संस्थेचें नांव 'इंडियन हिस्ट्री कॉंग्रेस' अशें जालें. हे संस्थेच्या दिल्ली भरिल्ल्या अधिवेशनाचो (१९४८) तो अध्यक्ष आशिल्लो.

पुर्विल्लें मराठी साहित्य आनी मराठ्यांचो इतिहास ह्या विशयांचो ताणें खोल अभ्यास केल्लो. तेविशीं ताचे लेख भारत इतिहास संशोधक मंडळाच्या नेमाळ्यांनी आनी हेर कडेनूय उजवाडाक येताले. 'मराठी गद्याचा इंग्रजी अवतार' (१९२२) हो ताचो ग्रंथ इंग्लीश काळांतलो (१८१०-७४). मराठी साहित्य इतिहास बरोवपाचो सुर्वेचो यत्न म्हणून उल्लेख करपासारको आसा. महाराष्ट्र-साहित्य परिषद् – इतिहास, वृत्तविभाग व साधन विभाग (१९४३) ह्या ताच्या पुस्तकांत मराठी साहित्यिकांचे प्रतिनिधीत्व करपी महाराष्ट्र साहित्य परिशदेच्या सुर्वेच्या काळांतल्या वावराची म्हायती दिल्या. ताणें संपादन केल्ल्या ल्हान-व्हड ग्रंथांनी 'देवदासकृत संतमालिका' (१९१३) आनी श्रीशिवदिनकेसरि विरचित ज्ञानप्रदीप' (१९३४) हे चड उल्लेख करपासारके आसात.

प्रांतिक भाशांचे भवितव्य (१९३५), 'भाषावार विद्यापिठे' (१९३७), 'महाराष्ट्रातील सौंदर्यस्थळें' (१९३७), 'पुरोगामी वाङ्मय' दोन टिपणां (१९३७, १९३८), 'एतिहासीक चरित्रलेखन' (१९३८) आदी वेगवेगळ्या विशयांचेर ताणें केल्लें बरप 'पोतदार विविध दर्शन' (१९३९) ह्या पुस्तकांत उजवाडाक आयलां. ताणें बरयल्ल्या 'सुमन सप्तक' (१९५०) ह्या पुस्तकांत महात्मा गांधी, राजवाडे, केतकर आनी हेर लेखकांचेर ताणें लेख बरयल्यात. 'भारताची भाषा समस्या' (१९६८) ह्या पुस्तकांत ताणें भाशीक प्रस्नाविशीं बरयल्ले लेख संकलीत केल्यात. 'श्री थोरले माधवरावसाहेब पेशवे' (१९२८), 'मराठी इतिहास आनी इतिहास संशोधन' (१९३५), 'दगडांची कहाणी' हे ताचे हेर कांय उल्लेख करपासारके ग्रंथ आसात.

एक बरो उलोवपी म्हणून ताची नामना आशिल्ली. मराठी, इंग्लीश, हिंदी आनी संस्कृत आदी भाशांतल्यान तो सर्रासपणान भाशणां करतालो. ताणें दिल्लीं कांय व्याख्यानां 'श्रोते हो' ह्या पुस्तकावरवीं उजवाडाक हाडल्यांत. वेगवेगळ्या निमतांनी भारतांत तशेंच भारताभायर ताणें भोंवडी केल्या. तो आंकवार आशिल्लो.

– कों. वि. सं. मं.

**पोतना :** (सुमार १४५० – सुमार १५१०).

एक पुर्विल्लो तेलुगू महाकवी. ताचो जल्मगांव, जिवीतकाळ आनी ग्रंथरचना आदीविशीं अभ्यासकांमदीं मतभेद आसात. कांय अभ्यासकांच्या मतान तो वरंगळ जिल्ह्यांतल्या बम्मेर गांवचो जाल्यार कांय जाणाच्या मतान ताचो जल्म कडाप्पा जिल्ह्यांतल्या ओंतिमिट्ट नांवाच्या गांवांत जालो. ओंतिमिट्ट म्हणजेच पोतनान आपल्या भागवतांत उल्लेख केल्लें एकाशिलानगर. कांय अभ्यासकांच्या मतान हें एकाशिलानगर म्हणजेच वरंगळ वा ओरुगल्लू आसून ताचो जल्म ह्या जिल्ह्यांतल्या बम्मेर गांवांत जालो. बम्मेर वरंगळासावन सुमार ४५ किमी. अंतराचेर आसा. तो बामेरचो रावपी म्हणून 'बम्मेर पोतना' ह्या नांवान ताका वळखतात. 'पोतनामात्य' अशीय नांवमुद्रा ताच्या भागवतांत मेळटा. ताच्या जिवीत काळाविशींय सुमार १४०० – १४७० वा सुमार १४३० – १५०० वा सुमार १४५०-१५१० अशीं तीन मतां अभ्यासकांमदीं आसात. तो शेतीचो वेवसाय करतालो. ताचें कुटूंब वीरशैव मताचें अनुयायी आशिल्लें. सुर्वेक तोय शिवाचो उपासक आशिल्लो. फुडें भागवत आदी संस्कृत ग्रंथ वाचून तो विष्णुभक्तीवटेन घुंवलो. ताचो आवय-बापूय लक्कमा आनी केशना. ताच्या आज्याचें नांव एल्लना आनी व्हडल्या भावाचें नांव तिप्पना अशें आशिल्लें. आपल्या बापायसरींच ताणें संस्कृत आनी तेलुगूचो अभ्यास केलो. इवतुरी सोमशेखर हो ताचो अध्यात्मीक गुरू. सुर्वेच्या काळांत तो राजकोंड्याचो अधिपती सवज्ञसिंह (कार १४३०-१४७५) हाच्या आश्रयाक आशिल्लो. पूण फुडें ताणें बम्मेर गांवांत आपलें विरक्त जिवीत घालयलें.

भोगिनी दंडकमु, वीरभद्र, विजयमु, श्रीमदांध्र भागवतमु, नारायण शतक आदी ग्रंथरचना ताणें रचल्यात अशे सांगतात. ताच्या 'श्रीमदांध्र भागवतमु' ह्या महाकाव्यान ताका तेलुगु साहित्यांत सासणाची नामना मेळोवन दिली. सुर्वेच्या काळांत ताणें दंडक नांवाच्या तेलुगू छंदांत पयलेच खेपे भोगिनी दंडकमु हें काव्य रचलें. हातूंत ताणें आपलो आश्रयदातो राजा सर्वज्ञसिंह आनी ताची रखेली हांच्या मोगाची कथा बरयल्या. 'वीरभद्र विजयमु' ह्या काव्यांत ताणें दक्षयज्ञाचो विध्वंस आनी वीरभद्राचें जैत हाचें वर्णन केलां.

श्रीमदांध्र भागवतमु ह्या म्हाकाव्यांतल्यान पोतनाच्या प्रतिभाशक्तीचो आनी भक्तीभावनेचो उंचेलो पावंडो दिसता. आंध्राचे संस्कृतीक जिणेंत ह्या

म्हाकाव्याक म्हत्वाची सुवात आसा. हातूंत पोतनान भोंवडेवर्णनाची नवी निर्मिती करून ताका आंध्र संस्कृतायेची खाशेली जोड दिल्या. तेलुगू रामायण आनी महाभारत हाचें परस पोतनाच्या भागवताक आंध्र प्रदेशांत खूब नामना आसा. हातूंतलीं कांय गितां लोकांच्या तोंडांत अजुनूय घोळटात. हातूंतले बालालीला, पुतुनाचोबध, गजेंद्रमोक्ष, रूक्मिणीकल्याणम्, प्रहलादचरित्र, ध्रुवाख्यान आदी प्रसंग ताणें प्रभावीपणात वर्णिल्यात. हातूंतली गोपिकागीत, उध्दवगीत, भ्रमरगीत हीं गितां नादाचे नदरेन खुबूच गोड रचल्यांत. हातूंतल्या बारा स्कंधांतल्या आठ स्कंधांची रचना पोतनान केल्या. उरिल्ल्या चार स्कंधांची रचना ताचे इश्ट बोप्पराचू गंगनार्य, एर्चुरी सिंगना आनी वेलिगंदल हांणी केली. पोतनान आपलें भागवत ताचें पुज्य दैवत आशिल्ल्या प्रभू रामाक ओंपलें.

पोतनाचें अंतस्करण मनीसकुळये विशींच्या मोगान पुराय तरेन भरिल्लें आसतालें. खाशेलो भाव प्रगटावपाखातीर जाय आशिल्ले ललितशब्द ताका सहज सुचताले. आपल्या साहित्यांत ताणें भक्ती रसाक केंद्रस्थान दिलां. एक म्हान म्हाकवी म्हणून तेलुगू साहित्यांत ताका व्हड स्थान आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पोतराज :** मरीआई हे ग्रामदेवतेचो उपासक. तो जातीन म्हार वा चड करून मांग जातीचो आसता. पोतराज हो शब्द 'पोत्तुराजु' ह्या तमीळ शब्दाचें रुपांतर. पोतराजाचें आचरण, पुजेची पद्दत, नाच आदींचेर द्रवीड संस्कृतायेचो प्रभाव दिसता. दक्षिणेंत 'सात भयणी' ह्या नांवान ग्रामदेवींची नामना आसा. तांचो भाव आशिल्ल्या एका ग्रामदेवाक 'पोत्तुराजु' म्हण्टात. मरीआईक लक्ष्मीबाई अशेंय म्हण्टात. देखून पोतराजाक मरीआईवाला वा लक्ष्मीआईवाला अशेंय म्हण्टात. पोतराज आनी ताचे वांगडचे लोक जेन्ना गांवात येतात तेन्ना 'कडकलक्ष्मी' आयली अशें म्हण्टात. मरीआई ही कडक देवी आशिल्ल्यान तिका कडकलक्ष्मी अशेंय म्हण्टात. पोतराजाच्या हातांतल्या चाबकाक 'कडक' अशें नांव आशिल्ल्यान तिका कडक लक्ष्मी हें नांव मेळ्ळें अशें कांय जाणांचें मत आसा. हांगा लक्ष्मी हो शब्द विष्णुची बायल ह्या अर्थांत आयिल्लो नासून हो अवाबाय ह्या अर्थान आयला.



पोतराज हो दादलो आसून लेगीत ताचो भेस चड करून बायलांचो आसता. आदल्या तेंपार लिंबाचो पालो न्हेसून देवीचें दर्शन घेवपाची चाल आशिल्ली. पूण सद्या ते शक्य नाशिल्ल्यान पोतराज पाचवो खणाचो घागरो न्हेसता. ताच्या भेंडावयलो भाग उकतो आसता. तो बायलांवरी केंस वाडयता आनी तांचो आंबाडो घालता. कपलाचेर हळद आनी कुकूम माखता. पोतराज बायलांचो भेस कित्याक करता हाचेविशीं वेगवेगळ्या अभ्यासकांनी वेगवेगळीं मतां मांडल्यांत ती अशीं. पुर्विल्ल्या काळांत बायलोच ग्रामदेवांचें पुरयतपण करताल्यो. उपरांतच्या काळांत हें पुरयतपण दादल्यांकडेन आयलें, तरी तांकां बायलांचो भेस घालुनूच ही चाल आपणावंची पडली, अशें महादेवशास्त्री म्हण्टा. दक्षिणेंतल्या ग्रामदेवतांची पतिव्रताखातीर वा खर कौमार्याखातीर नामना आशिल्ल्यान तांचे उपासनेंत बायलांचें, न-पुसंक दादल्यांचें आनी बायलांचो आभास निर्माण करपी दादल्यांचें प्रस्थ दिसता अशें रा.चिं. ढेरे हांचें मत आसा.

पोतराज मंगळारा वा शुक्रारा गांवांत येता. तेन्ना आपल्या आंगाक दावे आनी उजवे वटेन लकत डफाच्या तालार तो नाचता आनी मरीआई गांवांत आयिल्ल्याची घोशणा दिता. ताचे वांगडा माथ्यार मरीआईचो देवारो आनी हातांत मोरपिसांचो कुचो घेतिल्ली ताची बायल आसता. पोतराज 'आलीया मरीआई, बया! दार उघड' आदी पदां म्हण्टा. होंवयेवरी छंदांतल्या ह्या पदांत चड करून मरीआई, लक्ष्मीआई, कोल्हापूर आदीचें माहात्म्य आसता.

मरीआई प्रसन्न जावंची देखून तो स्वताक खूब त्रास करून घेता. नाचता आसतना तो स्वताचेर चाबूक मारून घेता. दंडाक दोरी बांदून, तातूंत दाबण खुपशिता, दांतांनी स्वताच्या मनगटाक चाबता. उपरांत मरीआई प्रसन्न जातकच पोतराजाच्या आंगांत आयिल्ली देवी तिका विचारिल्ल्या प्रस्नांच्यो जापो दिता. उपरांत बायलो देवीची पुजा करून तिची हांेट भरतात. पोतराजाक पयशे आनी सुपांतल्यान धान्य दितात. महाराष्ट्रांतल्या पोतराजापरस दक्षीणेंतलो पोतराज उग्र आसता.

मरीआईच्या कोपान पटकी, देवी आदी पिडांच्यो धामी येतात आनी पोतराजान तिका प्रसन्न करतकच त्यो निवारतात असो लोकांचो समज आसा. दर गांवांत पोतराजा नासता. पूण पटकेची धाम येतकच मरीआईचो गाडो गांवाभायर व्हरपाखातीर ताका आपयतात. ह्या विधीचें पुरयतपण तोच करता. गाड्याचेर देवीची मूर्त दवरून गाडो गांवाचे वेशीभायर व्हरतात आनी तो व्हरतना देवीन परत खंयच्यानूच गांवांत येवप ना हाचे खातीर पोतराज 'गांव बांदपाचो' एक विधी करता.

– कों. वि. सं. मं.

**पोते, रामराव कृष्णराव :** (जल्म : १ मे १९२३, शहापूर, बेळगांव).

सुटकेझुजारी. १९४२ तल्या 'छोडो भारत' आंदोलनांत ताणें वांटो घेतिल्लो. सर्गेस्त बॅरिस्टर नाथ पै, एस. एम. जोशी, ना. ग. गोरे, शिरुभाऊ लिमये आनी हेर राश्ट्रीय फुडाऱ्यां कडेन ताचो संबंद आशिल्लो. २९ नोवेंबर १९४२ ह्या दिसा अनगोड गांवांत ताका धरलो आनी १८ म्हयने हिंदालगा केंद्रिय बंदखणींत दवरलो. भारत स्वतंत्र जातकच तो गोंयचे सुटके खातीर वावर करूंक लागलो. तेन्ना पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका सूर्ला (सत्तरी) गांवांत धरलो. बंदखणींत आजेंत मोंतैर हाणें ताचे खूब हाल केले. उपरांत प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका १९ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. मोहन रानडे, रामदास चाफाडकार, वसंत शिरसाट आनी हेर झुजाऱ्यांकडेन गोंयचे सुटके चळवळीक लागून ताचो लागसल्लो संबंद आयिल्लो. १८५९ वर्सा आग्वादचे बंदखणींतल्यान सुटका जातकच तो गोंयचे सुटकेमेरेन राश्ट्रीय वावर करतालो. तो एक समाजसेवक

आशिल्लो. तेचपरी आपल्या भाशणांवरवीं तरणाट्यांक स्फूर्त दिवपाचें काम तो बेस बरें करतालो. १८ जून १९८९ ह्या दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**पोप :** पोप म्हळ्यार बापूय असो ह्या उतराचो अर्थ. हें उतर मूळ ग्रीसी. ईस्टन ऑर्थोडॉक्स इगर्जेचे परंपरेप्रमाण 'पोप' म्हळ्यार इगर्जेचो पाद्री वा धर्मगुरू. रोमन कॅथलिक चर्च आनी अँग्लिकन चर्च हातूंत पाद्रिक फादर म्हण्टात. पोप म्हळ्यार रोमाचो बिशप आनी संवसारीक रोमन कॅथलिक इगर्जेचो सर्वाधिकारी. खरें म्हळ्यार 'पोप' आनी 'फादर' ह्या दोनूय उतरांचो अर्थ एकूच.

सुर्वेक इगर्जेच्या इतिहासांत 'पोप' आनी 'बिशप' ह्यो संज्ञा एकाच अर्थान वापरताले. पूण १०७६ वर्सा सातव्या ग्रॅगरीचे सुचवणेप्रमाण रोम शारांत भरिल्ले म्हत्वाचे परिशदेंत रोमाच्या बिशपाकच 'पोप' ही संज्ञा दिवन ताकाच इगर्जेचो सर्वोच्च धर्माधिकारी अशें थारायलें. हाचे प्रमाण 'पोप' म्हळ्यार संवसारीक ऐहिच इगर्जेचो (चर्च युनिवर्सल अर्थली) मुखेली आसून जेजू क्रिस्ताचो प्रतिनिधी अशें मानूंक लागले. पापांतल्यान मुक्त करप, बायबलांतल्या विधानांचो निमाणो अर्थ सांगप, चालू अडचणी विशीं देवाची इत्सा मनशाक सांगप आदी हक्क पोप हाका आसतात.

रोमन कॅथलिक इगर्जेची रोम ही अध्यात्मीक राजधानी आसून वॅटिकन दोंगुल्लेचेर पोपाचे घर आसा. देखुनूच राजधानयेक वॅटिकन हें नांव दिल्लें आसा.

'पोप' हें पद सगळ्यांत उच्च आसून त्या पदार नेमिल्या मनशाकडेन तें आमरण उरता. कार्डिनलाक पोपूच नेमता. आपले मदलोच पोप वेंचता आसतना कार्डिनल चिटी (मतां) घालून ताची वेंचणूक करतात. वॅटिकनाच्या आंगणांत लाखांनी लोक रावन निकालाची वाट पळेतात. एके खास अशे धुंवरानळयेंतल्यान (चिमणी) काळो धुंवर आयल्यार वेंचणूक अनिर्णित आनी धवो धुंवर आयल्यार वेंचणूक निर्णायक जाली अशें मानतात. वेंचून आयिल्लो कार्डिनल पोपचो भेस घालून एका थरावीक सज्जांत येता आनी लोकांक 'पाँटिफिकल' अभिशटचिंतन आनी आशिर्वचन दिता. पोपाची निवड जाले उपरांत २/३ दिसां भितर, अधिकार ग्रहण सुवाळो (पट्टाभिशेक) आयोजीत करप जाता. हो सुवाळो जाले उपरांत, पोपाची कारकीर्द सुरू जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**पोपट :** मनशाच्या सहवासांत येवन राविल्लें एक सुकणें. सिट्टॅसिडी ह्या सवण्यांच्या कुळांत ताचो आस्पाव केला. पोपटांच्यो साबार जाती आसून मॅका, लोरी, काकाकुवा, बजरीगार, पॅराकीट, कॉन्यर हांचो हातूंत आस्पाव जाता. पोपट चड करून उश्ण प्रदेशांत सगळे कडेन दिश्टी पडटा. तांचो उगम ऑस्ट्रेलिया प्रदेशांत जाला आसुंये अशें मत आसा. दक्षिण अमेरिकेंत आनी ऑस्ट्रेलिया देशांत तांच्यो साबार जाती पळोवपाक मेळटात.

भारतांत मेळपी पोपटाची लांबाय सुमार २५ सेंमी. आसता. ऑस्ट्रेलियेंत मेळपी पोपटांची लांबाय १० सेंमी. ते १०० सेंमी. मेरेन आसता. हें सुकणें वेगवेगळ्या कोरांचे आसता. भारतांत मेळपी चडशे पोपट पाचव्या कोराचे आसतात. तांचे कुडीचे वेगवेगळे भाग तांबडे, हळदुवे, निळे, काळे अशे आसतात. ह्या सुकण्याची तांबडी वा हळदुळी तोंच मोटवी, घट्ट आनी वांकडी आसता. आपलें अन्न घट्ट धरपाक वा फोडून खावपाक तशेंच रुखांच्या खांदयांचेर चडपाक वा भोंवपाक ताचे चोंचीचो उपेग जाता. पांय मोटवे आसून ताका चार बोटां आसतात. हातूंतलीं दोन बोटां मुखार आनी दोन फाटीं आसतात. पायांचेर बारीक-बारीक खवळां आसतात. बोटांचे खाशेले रचणुकेक लागून तो झाडाच्या खांदयांचेर सहज भोंवपाक शकता. तो आपलें अन्नूय बोटांनी घट्ट धरपाक शकता. पोपट हें चोंम्यांनी रावपी सवणें. ताचो आवाज कर्कश आनी किळच्यां भाशेन आसता. ताच्या आवाजावयल्यान ताका कीर हें नांव पडलां आसुंये, अशें कांय लोकांचें मत आसा.

पोपट सादारणपणान फेब्रुवारी ते एप्रिल म्हयन्यांनी वियेंता. कांय जातींनी हो काळ फाटीफुडें आसता. ते आपले घोंटेर झाडांच्या बुराकांनी, ऊंच घरांच्या घोलींनी आनी केन्ना केन्नाय खड-पांच्या खांचींनी बांदतात. तांचो घोंटेर सादो आसता. मादी दर खेपेक २-५ तांतयां घालता. सादारणपणान तीन सप्तकां उपरांत तांतयां फुटून पिलां भायर येतात. नर आनी मादी आपल्या अन्नपुटांतलें अर्दवट पचिल्लें अन्न भायर काडून तांकां दितात.



रानफळां हें तांचें मुखेल खाण. तो सगळ्या तरांची ल्हान व्हड फळां आनी धान्य खातात. ताका घट्ट फळांचो (पेर) चड घोस्त. पूण सबंद फळ ते केन्नाच खायनात. फळाचो ल्हान कुडको खावन उरिल्लें फळ तशेंच सांडटात. अशे तरेन पोरसांतल्या फळांची, कणसांची ते खूब नाशाडी करतात.

भारतांत मुखेलपणान राघू, कीर आनी तोता ह्या जातींचे पोपट सगळे कडेन दिश्टी पडटात. राघू ह्या पोपटाचें शास्त्रीय नांव सिटॅक्युला युपॅट्रिया. हे जातीचे पोपट चोंब्यांनी दाट रानांत रावतात. तांचो कोर उजळ पांचवो आसून, तोंच तांबडी, माने भोंवतणीं गुलाबी पटो आनी शेंप लांब आसता.

कीर हाचें शास्त्रीय नांव सिटॅक्युला क्रमरी. ताच्या कर्कश आवाजाक लागून ताका कीर हें नांव पडलां. राघूप्रमाण तांचे थवे दाट रानांनी रावतात.

तोता ह्या पोपटाचें शास्त्रीय नांव सिटॅग्युला सायनोसोला. हो मुखेलपणान रानांत रावता. तो कीर वा राघू हांचेपरस नेटान उडपाक

शकता. ताचो आवाजूय म्होंवाळ आसता.

राघू आनी कीर ह्या पोपटांचो आवाज जरी कर्कश आनी किळांचे भाशेन आसलो, तरी पांदऱ्यांत पोसून शिकयले उपरांत ते मनशाप्रमाण कांय शब्दोचार करूंक शकतात. तशेंच, ल्हान ल्हान वाक्यांय उलोवपाक शकतात. हाका लागून साबार लोक तांकां पोसतात. कांय शिकयल्ले पोपट सर्कशींत साबार खेळ करून दाखयतात. लोक साहित्यांत पोपट, कीर हांचो मनशांचो सांगाती म्हणून सर्रास उल्लेख मेळटा.

पोपट हें पिकांची आनी फळांची नाशाडी करपी सुकणें म्हणून मनशान तांची हिसपाभायर हत्या केल्ल्यान पोपटांच्यो साबार जाती काबार जाल्ल्यो आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**पोपाय :** (मराठी : पपई, पोपई; हिंदी : पपाया, पपिता; कन्नड : गुप्पे, पप्पाई, पांगी; संस्कृत : चिरभीता; इंग्लीश : पपाया, पॅपॉ; लॅटीन : कॅरिका पपाया; कूळ : कॅरिकेसी).

सतत पांचवें उरपी, ल्हान वखदी फळझाड. हाचें खोड सुमार ३-४ मी. ऊंच जाता. ताका केन्नाकेन्नाय खांदयो येतात. खोड मोव आसून ताचे तेंगशेर मोटीं उण्याचड प्रमाणांत विभागिल्लीं सादीं, हाताआकाराचीं पानां एका फाटोफाट एक येवन तांचो एक व्हड झुपकोच दिसता. पानांचो देंठ मोटो पूण पोकळ आसून तांची लांबाय सुमार ६० सेंमी. आनी पानांचीं पातीं सुमार तितल्याच व्यासाचीं आसतात. नर आनी मादी पोपायांचीं झाडां स्वतंत्र आसून तांचेर पानांचे कुशींत लांब नर पुश्पांचे घोंस वा एकएकटीं स्त्री पुश्पां येतात. फुलां हळदूवीं आसतात. फळ आकारान मोटें, वाटकुळें वा लांबशें आसून सुर्वेक पाचवें आनी पिकतकच भायलेवटेन हळदुवें आनी भितल्ले वटेन कॅसरी वा तांबड्या रंगाचें दिसता. पोपयेची सादारण लांबाय २० ते २५ सेंमी. आनी व्यास १०-१५ सेंमी. आसता. पिकिल्ल्या फळांतलो गर गोड आनी रुचीक आसता. फळांत गाड पिंगशो भरपूर बियो आसतात. ताचे भायले वटेन मोव थर आनी भितल्ले वटेन बी आसता.

पोपायेचो आस्पाव कॅरिकेसी कुळांत केल्लो आसून ताचीं सामान्य शारीरिक लक्षणां तातूंत वर्णिल्ले प्रमाण आसात. कॉरका ह्या शास्त्रीय नांवाच्या दोन वा चड जातींच्या संकरान पोपायेची उत्पत्ती जाली आसुंये अशें मानतात. ह्या झाडाचें मूळ स्थान मॅक्झिको आसून हालीं ताचो प्रसार उश्ण कटिबंधांतल्या देशांनी आनी उपोश्ण कटिबंधांतल्या उश्ण प्रदेशांत सगळेकडेन जाल्लो दिसता. भारतांत हें झाड सोळाव्या शतमानांत आयलें. ताचीं लागवड हवाई जुंवे, श्रीलंका, दक्षिण आफ्रिका, मलेशिया, ऑस्ट्रेलिया, फिलीपिन्स जुंवे आनी भारत ह्या देशांनी करतात. भारताच्या सुक्या तशेंच पावसाळी हवामानाच्या आनी दर्याच्या पांवड्यासावन सुमार १,३०० मी. उंचायेमेरेनच्या वाठारांत पोपाय वाडूंक शकता.

भारतांत पोपायेचे लागवडीखाला सुमार १०,८४८ हॅक्टर क्षेत्र आसून सगळ्यांत चड क्षेत्र सुमार ३,८८० हॅक्टर बिहार राज्यांत आसा. जाल्यार आसामांत २,०४१ हॅक्टर, मध्यप्रदेशांत २,००० हॅक्टर आनी महाराष्ट्र आनी गुजरात मेळून १,२३६ हॅक्टर आनी हेर राज्यांनी सुमार १४१७ हॅक्टर सुवात पोपायेचे लागवडीखाला आसा.

पोपायेचे वॉशिंग्टन, कूर्ग, हनीड्यू वा मधुबिंदू रांची आनी गुजरात थळावे हे मुखेल प्रकार आसून को-१ वा को-२ हे मोटवे प्रकार भारतांत उपलब्ध आसात. हांचेभायर सिलोन, सिंगापूर, बंगलोर हे प्रकारूय भारतांत लागवडीखाला आसात.

**रोवप आनी वाडोवप –** सुक्या, उश्ण हवामानांत आनी फावोशी उदका पुरवण आशिल्ल्या जाग्यार पोपायेचें झाड बरे तरेन जावंक शकता. ह्या झाडाक मेकळी, उदकाचो निचरो बरो जावपी तशेंच जैव पदार्थाची भरपूर पुरवण आशिल्ले जमनींत पोपाय बरी वाडटा. गाळाचे जमनींत तशेंच भारताचे दक्षिणेकडल्या वाठारांत मध्मम काळे जमनींतूय पोपाय बरे तरेन जावंक शकता. ह्या झाडाची लागवड रोंपे लावन करतात. बरे जातीचीं चड फळां दिवपी झाडाच्या पुराय तरेन पिकिल्ल्या फळाचें बीं घेवन ते धुवन निवळ करून सुकोवन दवरतात. लागवडीच्या सुमार दोन म्हयने पयलीं बीं किल्लूंक घालतात. एक हॅक्टर सुवातींत लागवड करपाखातीर रोंपे तयार करपाक सुमार २५० ग्राम बीं लागता. रोंपे सुमार ९-१२ सेंमी. उंचायेचे जातकच ते काडून तयार केल्ले जमनींत कायम जाग्यार लायतात.



पोपायेच्या झाडाक मुळांत सांचिल्ले उदक मानवना. ताका लागून जतनाय घेवंची पडटा. पावस ना तेन्ना जमनीचे तांकी प्रमाण १०-१२ दिसांच्या अंतरान उदक दितात. लागणेच्या वेळार दर झाडाक ९ किग्रा. भरखत आनी वर्सातल्यान दोन फावटीं बरखत तशेंच शेणखत घालतात.

लागवडी उपरांत १०-१४ म्हयन्यांनी पोपायेक फुलां येवन फळां लागपाक सुरवात जाता. फूल आयिल्या दिसा पसून स म्हयन्यांनी फळ जून जाता. तयार जाल्या फळाचो हळदुवोसार रंग दिसूंक लागतकच, ती टणक आसतनाच झाडावयल्यान काडून घेतात. झाडाचेरूच पुरायपणान पिकिल्ली फळां बरीं आसतात. पूण पुराय झाडाचेरूच पिकिल्ली फळां काडटा आसतना फुटूंक शकतात. तशेंच, पाखे वा हेर सुकणी खावंक शकतात. देखून तीं टणक आसतनाच काडप योग्य.

पोपायेचीं झाडां एका वर्साचीं जातकच त्या फुडल्या १२ ते १८ म्हयन्यांमदीं तांचे पसून नेमान फळां मेळटात. फुडें-फुडें तांचो आकार ल्हान जाता आनी फळांच उणीं जातात. सरासरी दर वर्सा हॅक्टराक २५,०००

ते ५०,००० किग्रा. वजनाचीं फळां मेळटात. भारतांत दर झाडाक एका वर्सांत २० ते १५० फळां धरतात. पोपायेच्या फळांत ८९.५ जलांश, ०.५ प्रथिनां, ९.५ कार्बोहायड्रेट, ०.१ स्निग्ध पदार्थ आनी ०.४ खनिज पदार्थ आसता. पोपायेचें फळ हें पुश्टीक आनी एक बरें खाद्य. तातूंत पॅक्टीन, अ आनी क हीं जीवनसत्वां आनी पेपेन नावाचें प्रथीन-पाचक द्रव्य आसता. हें द्रव्य प्राण्यांतल्या पॅप्सिनाप्रमाण क्रियाशील आसता. पेपेन चीज, जॅली, च्युईंग गम, सौंदर्य प्रसाधनां आदी तयार करपाच्या उद्देगांनी वापरतात. तरणे पोपायेची भाजी करतात. पिकिल्ली पोपाय खावपाक उपेगी पडटा. पानां आनी तरण्या पोपायेचे कुडके मास बेगीन शिजपाखातीर तातूंत घालतात. अग्नीमांद्याचेर फळां उपेगी पडटात. म्हयन्याचे पाळयेच्या विकारांचेर तशेंच प्लीहाच्या विकारांचेर पेपेन उपेगी पडटा.

पोपायेच्या झाडाक केवडा, खोडकूज वा मूळकूज, करपा आदी रोग जातात.

**पेपेन –** तरण्या पूण बरें पसवल्ल्या फळापसून पेपेन काडटात. तेखातीर तरणे पोपायेचे भायले वटेन कोंड्याच्या शिऱ्यान लांब सरे ओडटात. ताका लागून सालींतल्यान दुदावरी धवो दीख व्हांवपाक लागता. तो अधातुच्या आयदनांत एकठांय करतात. उपरांत हो दीख रोखडोच आल्कॉहॉलांत दवरतात. मागीर तो ३९० सें. तापमानाचेर कृत्रीम उश्णतायेंत वा वतांत सुकयतात. पेपेनांत प्रथीन-पाचक गूण आसता. पेपेनाचो उपेग वखदी द्रव्यांत आनी उद्देग धंद्यांत करतात. ताका लागून पेपेनाक भरपूर मागणी आसता.

– कों. वि. सं. मं.

**पोरबंदर :** गुजरात राज्याच्या जुनागढ जिल्ह्यांतलें एक पुण्यक्षेत्र, महात्मा गांधीचो जल्मगांव. अरबी दर्यादेगेवयलें शार आनी बंदर. जुनागढाचे वायव्येक ८८ किमी. अंतराचेर आनी अहमदाबातचे नैऋत्येक ३२६ किमी. अंतराचेर हें शार आसा. राजकोटासावन आयिल्ल्या रेल्वेमार्गाचें हें निमाणें स्थानक. श्रीकृष्णाचो इश्ट सुदामा हाचो जल्म ह्याच गांवांत जालो. देखून ह्या गांवाक सुदामपुरी अशेंय म्हण्टात. सोळाव्या शतमानासावन हांगा जेठवा राजपुतांचो शेक चलतालो. १७८५ सावन संस्थान विलीन जायमेरेन तें पोरबंदर संस्थानाचे राजधानीचें ठिकाण आशिल्लें. इमारतींच्या फातरांखातीर आदल्या काळार सावन ह्या शाराची नामना आशिल्ली. ह्या शारांत मेळपी चुन्याफातर बांदकामाखातीर बरो समजतात. कापूस, धान्यां हांची ही बाजारपेठ आसून हांगाच्या बंदरांतल्यान कोकण, मलबार, आफ्रिकेची उदेंत दर्यादेग, अरबस्तान आदीकडेन वेपार चलता. पोरबंदर शाराच्या वाठारांत कापड, शिमीट, फस्कां, मीठ, रंग, लांकडी वस्तू, बरे प्रतीचें लोणी, तूप, रसायनां आदीचे तेचपरी नुस्ताचोय उद्देग चलता. शारांत एक विमानतळ आसा.

ह्या शारांतलें बांदकाम चडशें धव्या फातरांपसून केल्लें दिश्टी पडटा. हांगाच्या राजांक राणा अशें म्हण्टात. भाटिया, लोहाणा, मेमेण आदी जातीचे लोक हांगा रावतात. ह्या शारा लागसार पोरवाई देवीच्या देवळाचे अवशेश आसून हें देवूळ ८०० वर्सां आदलें आसूंक जाय अशें विद्वानांचें मत आसा. ह्या शारांत जंय गांधीजीचो जल्म जालो ताका लागून कीर्तिमंदीर नांवाची एक भव्य वास्तू बांदून गांधीचीचें स्मारक केलां. सुदाम्याचें देवुळूय हांगा पळोवंक मेळटा. दर्यांतल्यान २५ किमी. अंतरावयल्यान दिसपी २७ मी. उंचायेचें दीपघर पळोवपासारकें आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पोरस :** (इ.स. आदी चवथें शतमान).

वेदकाळांतल्या पुरू वंशांतलो एक पराक्रमी आनी स्वाभिमानी राजा. ताका पुरू वा पौरव अशेंय म्हण्टाले. तो केकय देशाचो राजा आशिल्लो. ताचें राज्य मध्य पंजाबांत चिनाब आनी झेलम न्हंयांच्या मदीं आशिल्लें. इ.स. आदीं ३२६ त मॅसेडोनियाचो सम्राट सिकंदर (ॲलेक्झांडर) हाणें आपल्या पुराय सैन्यासयत भारताचेर घुरी घाली. ताच्या येद्या व्हड सैन्याकडेन भारताचे शिमेवयल्या खंयच्याच भारतीय राजाचो थारो लागलोना. कांय आडवाद सोडल्यार चडशे राजा ॲलेक्झांडराकडेन झूज दिना आसतनाच ताका शरण गेले. पोरसाच्या शेजारचें राज्य तक्षशिला हाचो राजा अंभी हो पोरसाचो दुस्मान आशिल्लो. तो ॲलेक्झांडराक मेळ्ळो. तेच वांगडा पोरसाचे हेर कांय नात्यांतले राजे ॲलेक्झांडराक मेळ्ळे. जेन्ना ताणें पोरसाकूय आपल्याक मेळपाचो रकाद धाडलो तेन्ना त्या स्वाभिमानी राजान रणाचेरूच मेळपाचो परतो रकाद धाडलो. शेवटाक झेलम न्हंयेचे देगेर दोनूय सैन्यांची गांठ पडली. पोरसान ॲलेक्झांडराच्या सैन्याआड झूज दिवंक पुराय तयारी केली. पूण पावसाळो आशिल्ल्या कारणान न्हंय उपाट भरून व्हांवताली. एक म्हयन्या उपरांत न्हंयेचो उतार पळोवन ॲलेक्झांडर आपल्या वेंचीक ११,००० सैनिकांक घेवन आलतडीन आयलो आनी ताणें पोरसाच्या सैन्याचेर हल्लो केलो. पूण पावसाखातीर पोरसाचें सैन्य ॲलेक्झांडराच्या सैन्याकडेन जाय तशें झूज दिवंक शकलेंना. तशेंच पोरसाचे हत्ती, घोडेय घुस्पावल्ल्यान पोरसाचेर पुरायेन हार पडली. पूण तो स्वता मोटे कुशळतायेन लडलो. ह्या झुजांत ताच्या तीन भुरग्यांक आनी मुखेल सेनाधिकाऱ्याक मरण आयलें. शेवटाक पोरसाक बंदी करून ॲलेक्झांडरामुखार उबो केलो. ताच्या स्वातंत्र्याभिमानाचो गौरव करून ॲलेक्झांडरान ताका विचारलें 'तुका हांव कशा तरेची वागणूक दिवं?' तेन्ना पोरसान भिंयेनासतना ताका जाप दिली 'एक राजा दुसऱ्या राजाक वागयता तसो'. ताचे हे जापेचेर खोशी जावन ॲलेक्झांडरान ताका ताचें राज्य परत दिलें. तेभायर हेर कांय वाठार ताच्या राज्याक जोडले. ताका व्यास न्हंयेसावन झेलम न्हंयेमेरेनच्या वाठाराचो क्षत्रप नेमलो. फुडें पोरसान कांय काळ राज्य केलें. ताका निश्चीतपणान केन्ना मरण आयलें हाची मात म्हायती मेळना.

– कों. वि. सं. मं.

**पोर्ट ब्लॅअर :** भारताच्या अंदमान आनी निकोबार ह्या केंद्रशासीत जुंव्यांची राजधानी. इतिहासीक नामना आशिल्ल्या ह्या शाराक सैमीक बंदराची देण लाबल्या. बंगालच्या उपदर्यांतल्या दक्षिण अंदमान जुंव्याचे उदेंत देगेर हें शार आसून, कलकत्याचे दक्षिणेक १,२५५ किमी. आनी चेन्नईचे उदेंतेक १,१९१ किमी. अंतराचेर हें शार आसा. गव्हर्नर जनरल लॉर्ड कॉर्नवालिस हाचे सांगणेन आर्चिबाल्ड ब्लॅरान १७८८ त हांगा पयली वसणूक स्थापन केली आनी तिका 'पोर्ट कॉर्नवालिस' हें नांव दिलें. पूण १७९१ त ही वसणूक ह्याच जुंव्याच्या ईशान्य वाठारांत सद्या जंय पोर्ट कॉर्नवालिस आसा थंय व्हेली. पूण हांगा मलेरियाचे पिडेच्या त्रासाक लागून १८५७ त ही वसणूक परती आशिल्ल्या त्या जाग्यार व्हरून तिका पोर्ट

ब्लॅर अशें नांव दिलें. फुडें ब्रिटिशांनी कैद्यांक दवरपाखातीर ह्या शाराचो उपेग केलो. तेन्नासावन हांगाचे बंदखणीक 'काळे पाणी' ह्या नांवान वळखतात. १८५७ च्या सुटकेझुजासावन जायत्या राजकीय फुडाऱ्यांक आनी सुटकेझुजाऱ्यांक काळ्या पाण्याची ख्यास्त जावन हे बंदखणींत दवरिल्ले. १९०६ त हांगा 'सॅल्यूलर जेल' ही ६ बराकी आनी आठशें अशीर कुडी आशिल्ली तीन माळ्यांची बंदखण बांदली. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत जपानान हांगा बॉम घाल्ल्यान हे बंदखणीचे दोन वांटे नश्ट जाले. भारत स्वतंत्र जातकच बंदखणीच्या कांय भागाचें हॉस्पिटलांत रुपांतर केलें आनी उरिल्लो भाग थळावी बंदखण म्हणून वापरतात. हांगा काळ्या पाण्याची ख्यास्त भोगपी सुटके झुजाऱ्यांमदीं स्वातंत्र्यवीर सावरकरा सारक्या व्हड फुडाऱ्यांचो आस्पाव आशिल्लो.

ह्या शारांत जायत्यो शासकीय इमारती, बौध्द देवूळ, राधाकृष्ण देवूळ ह्या सारक्यो आर्विल्ल्यो वास्तू आसात. हांगा सगळ्यांत आदीं वसयल्लो 'ॲबर्डीन' हो वाठार बाजारपेठ म्हणून वळखतात. हांगा चलयांचें उच्च माध्यमिक विद्यालय आनी एक महाविद्यालय आसा. शारांत लाकूड कापपाची व्हड गिरण आसून, शेंदऱ्यो, पांटले, कातडी वस्तू तयार करप, खोबरें सुकोवप, नुस्त्याचो उद्देग आदी उद्देग चलतात. भारतांतल्या आनी हेर देशांतल्या शारांकडेन हें शार हवाई आनी उदका येरादारींनी जोडलां. हांगासल्ल्यान लाकूड, नाल्ल, खोबरें हांची निर्यात जाता. शारांत अतिथीघरां, प्रवासीघरां आदींची सोय आसा. हांगाचे सैमीक सोबीतकायेक लागून पर्यटकांची खूब गर्दी जाता. दोंगरी शारांनी ह्या शाराचो आस्पाव जाता.

– कों. वि. सं. मं.

## पोर्टर, जॉर्ज : (जल्म : ६ डिसेंबर १९२०, स्टॅनफोर्थ, यॉर्कशर).

नामनेचो ब्रिटीश रसायनशास्त्रज्ञ. १९४१त, ताणें लीड्स विद्यापिठांतल्यान बी. एससी. पदवी मेळयली. १९४१-४५ ह्या काळांत ताणें ब्रिटीश नौदलाच्या रडार विभागांत काम केलें. ते उपरांत कॅंब्रिज विद्यापिठांत ताणें नॉरिश हाच्या मार्गदर्शना सकयल संशोधन करून १९४९ त रसायनशास्त्रांतली डॉक्टरेट मेळयली. १९५२-५४ त तो कॅंब्रिज विद्यापिठाच्या भौतिकी रसायनशास्त्र विभागांत संशोधन उपसंचालक आशिल्लो. ते उपरांत ब्रिटीश रेयॉन रिसर्च ॲसोसिएशनचो उपसंचालक (१९५४०५५), शॅफिल्ड विद्यापिठांत भौतिकी रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक (१९६३-६६) ह्या पदांचेर ताणें काम केलें. १९६३-६६ ह्या काळांत तो लंडनच्या रॉयल इन्स्टिट्युशनांत रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९६६ सावन तो रॉयल इन्स्टिट्युशनचो संचालक आनी रसायनशास्त्राचो फुलेरियन प्राध्यापक म्हणून काम करता. कॅंट विद्यापिठांत मानसेवी प्राध्यापक म्हणूनूय ताणें काम केलां.

कॅंब्रिज विद्यपिठांत ताणें नॉरिश हाच्या मार्गदर्शनासकयल १९४९-५५ ह्या काळांत चमक उजवाड - विश्लेशणा विशींचे संशोधन केलें. ताणें खास करून क्लोरिनाचे अणू आनी रेणू हांच्या समतोलाविशीं अभ्यास केलो. फुडें शेफिल्ड विद्यापिठांतूय ताणें ह्याच विशयाचेर स्वतंत्रपणान संशोधन केलें. १९५३ त अल्पकालीन क्षोभावस्थेच्या शोशण वर्णपटाचो (Spectrum) अभ्यास करतना पोर्टर हाणें द्रव विद्रावकांतल्या वासाच्या (aromatic) रेणूंच्या फकत एक मायक्रोसॅकंडा इतलें आयुर्मान आशिल्ल्या उच्च त्रिकू अवस्थांचो वर्णपट पयलेच खेपे मेळयलो. हें तंत्र द्रव विद्रावांच्या दीर्घकालीन क्षोभावस्थांच्या अभ्यासाखातीर मोलादीक थरलां. १९५२त, पोर्टर, नॉरिश आनी हेरांनी आयोजीत अणूंच्या पुनर्संयोगाच्या अभ्यासाखातीर चमक उजवाडा-विश्लेशणाचो वापर केलो. घुस्पागोंदळाच्या कार्बनी रेणूंच्या आनी विक्रियांच्या अभ्यासांत हें तंत्र म्हत्वाचें थरलां. सैमीक अवस्थेंतल्या कोशिकेंतल्या जैव क्रियांविशीं जटिल रेणूंचो अभ्यास करपाखातीर पोर्टर हाणें सुक्ष्मदर्शकी चमक उजवाडा-विश्लेशण तंत्र विकसीत केलें.

अती जलद गतीच्या रसायनीक विक्रियांचो अभ्यास करपाखातीर चमक उजवाडा-विश्लेशणांचें तंत्र विकसीत करपाचो मोलादीक वावर केल्लेखातीर पोर्टर रॉनाल्ड जार्ज, ऱ्हेफोई नॉरिश आनी मानफ्रेट आयगेन हांकां रसायन शास्त्रांतलो नोबॅल पुरस्कार (१९६७) मेळ्ळो.

१९७२ त ताका 'नायट' हो किताब मेळ्ळो. रॉयल सोसायटीन १९७१ त ताका डेवी पदकाचो भोवमान भेटयलो. 'Chemistry of the Modern World' हो ग्रंथ ताणें बरयला.

– कों. वि. सं. मं.

## पोर्टर, रॉडनी रॉबर्ट : (जल्म : ८ ऑक्टोबर १९१७, लिवरपूल).

नामनेचो जीवरसायनशस्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण लिवरपूल आनी कॅंब्रिज विद्यापिठांत जालें. कॅंब्रिजांत नामनेचो रसायनशास्त्रज्ञ फ्रॅटरिक सॅंगर हाच्या मार्गदर्शना सकयल ताणें पी.एच.डी. चो अभ्यास केलो. प्रतिपिंडाची रचणूक (Structure of antibodies) ह्या विशयाचेर ताणें प्रबंध बरयल्लो. १९४९-६० ह्या काळांत ताणें लंडना लागसारच्या मिल् हिल् नगरांतल्या 'नॅशनल इन्स्टिट्यूट फॉर मॅडिकल रिसर्च' हे संस्थेंत विज्ञानीक कर्मचारी म्हणून काम केलें. १९६०-६७ त लंडन विद्यापिठाच्या सेंट मॅरीज हॉस्पिटल मॅडिकल स्कूलांत तो प्रतीरक्षा विज्ञानाचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९६७ सावन ऑक्सफर्ड विद्यापिठाच्या ट्रिनिटी कॉलेजांत जीवरसायनशास्त्र विभागाचो मुखेल म्हणून ताणें काम पळेलें. १९७० सावन तो मॅडिकल रिसर्च काउन्सिलाचो वांगडी आनी संचालक आसा.

प्रतिपिंडाची रचणूक आनी कार्यपद्दत हेविशींचें गिन्यान १९५९त अस्पश्ट आशिल्लें. पोर्टर हाणें सोंशाच्या रगतांतल्या प्रतिपिंडाचेर पेपेन ह्या एंझायमाची विक्रिया करून पळेली, तेन्ना ताका प्रतिपिंडाच्या रेणूचे कुडके जाल्याचें दिसलें. ताचेर ताणें आनीकूय खोलायेन संशोधन केलें. जॅराल्ड मॉरिस एडेलमान ह्या अमेरिकी जीवरसायनशास्त्रज्ञान प्रतिपिंडांची रचणूक ह्या विशयाचेर संशोधन केल्लें. पूण ताणें वापरिल्ली पद्दत पोर्टर हाचे पद्दती परस वेगळी आशिल्ली. पोर्टर आनी एडेलमान ह्या दोगांयच्या संशोधनाक लागून प्रतिपिंडावयल्यान संशोधनाक नेटान चालना मेळ्ळी. तांच्या संशोधनाक लागून प्रतीरक्षाविज्ञानाची बुन्याद पडली आनी रोग आनी प्रतीबंधात्मक उपाय हांचेविशींचे फुडलें गिन्यान मेळोवन सोंपें जालें. १९७२ चो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञानाचो नोबॅल पुरस्कार पोर्टर आनी एडेलमान हांकां प्रतीपिंडाचे रसायनीक रचणुकेविशीं ताणीं केल्या संशोधनाखातीर फावो जालो.

नोबॅल पुरस्काराखेरीज पोर्टर हाका बायोकेमिकल सोसायटीचें सिबा पदक (१९६७), 'अमेरिकन ॲसोसिएशन ऑफ ब्लड बॅंक्स' संस्थेचो कार्ल लॅंडस्टायनर पुरस्कार (१९६८), रॉयल सोसायटीचें पदक (१९७३) हे भोवमान फावो जाल्यात.

– कों. वि. सं. मं.

**पोर्तुगाल :** (पळेयात पुर्तुगाल).

**पोलंड :** अस्तंत युरोप आनी उदेंत युरोप हांचे मजगतीं आशिल्लो एक प्रजासत्ताक देश. अक्षांश ४९° ते ५५° उत्तर आनी रेखांश १४° ते २४° उदेंत इतलो ह्या देशाचो विस्तार आसा. ह्या देशाचे उत्तरेक बाल्टीक दर्या, उदेंतेक रशिया, अस्तंतेक जर्मनी आनी दक्षिणेक चॅकोस्लोवाकिया हो देश आसा. वॉरसॉ ही देशाची राजधानी. लोकसंख्या ३८.४ दशलक्ष (१९९१) आसा. क्षेत्रफळ ३,१२,६७७ चौ. किमी.

**भूंयवर्णन :** पोलंडाची चडशी भूंय सखल आसून तिची सरासरी उंचाय सुमार १७३ मी. आसा. देशाचो फकत ३% प्रदेश ५०० मी. परस चड उंचायेचो आसा. ७०% परस चड प्रदेशाची उंचाय २०० मीटरांपरस उणी आसा.

पोलंडाचो मदलो वाठार हो चडसो हिमन्हंयांनी तयार केल्ल्या भूंयस्वरुपाचो आसून तो उत्तर युरोपी सड्याचोच एक वांटो. हिमयुगाच्या शेवटाक दक्षिण भागांतलो बर्फ विरगळिल्ल्यान हो प्रदेश तयार जालो असो समज आसा. ह्या वाठारांतलें खाशेलेपण म्हळ्यार उदेंत - अस्तंतेक पांतळिल्ली खोल भूंय आनी थंय व्हांवपी न्हंयो. देशाचे दक्षिण शिमेर मोरेव्हियन गेटासावन उदेंतेकडेन कार्पेथियन पर्वतांवळी पातळ्ळ्यात. तात्रा आनी बेस्किड्झ हे दोन फांटे पोलंडांत आस्पावल्यात. बेस्किड्झ हे वळींचो आस्पाव अस्तंत कार्पेथियन हातूंत जाता. 'बाब्यागुरा' हें हे वळींतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक. तात्रा वळींतलें 'रिसी' हें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक. देशाचे दक्षिण शिमेर अस्तंतेकडेन आशिल्ल्या सुडेटन प्रदेशांत साबार पर्वत आसात. स्न्येश्का हें ह्या वाठारांतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक. ह्या विभागांत फातरी कोळशाचे व्हड सांठे आसात. बाल्टिक दर्यादेगेर तळ्यांचो प्रदेश आसा. हो बर्फाच्या लोटान हाडिल्ल्या गाळान तयार जाल्लो भूंयभाग आसून माती, रेंव, फातर हांच्यो दोंगुल्ल्यो आनी तांचे मजगतीं तयार जाल्लीं तळीं हें हांगाचें खाशेलेपण. देशाच्या उत्तर वाठारांत बाल्टिक दर्यालागीं जर्मनी ते रशिया देशाचे शिमेमेरेन मळांचो सपाट प्रदेश आसा.

पोलंड देशांतल्यो चडशो न्हंयो बाल्टिक दर्याक मेळटात. व्हिश्वला (१,०६०किमी. लांब) आनी ओडार (९०० किमी. लांब) ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो. वार्ता, वग, सान, पोलीत्सा आनी व्होष्ठ ह्योय पोलंडाच्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो. हांगाच्या न्हंयांक वर्साक दोन खेपे हुंवार येता. वसंत ऋतूंत विरगळिल्ल्या बर्फाक लागून सकयल्या भागांत व्हांवपी न्हंयांक हुंवार येता. जुलय म्हयन्यांत घोग्यांनी पडपी पावसाक लागुनूय हांगाच्या न्हंयांक हुवार येतात. देशांत सुमार एका हॅक्टरापरस चड क्षेत्र रेवाडपी ९,३०० तळीं हांगा आसात. हीं तळीं चडशीं देशाचे उत्तरेक आसात.

**हवामान :** देशाचें हवामान ऋतुप्रमाण बदलत रावता. हांगाचे चडशे प्रदेश सपाट आशिल्ल्यान हवामानांत खूब सारकेपण आसता. शिंयाळ्यांत रशियेकडच्यान येवपी उत्तर ध्रुवीय वाऱ्याक लागून देशाच्या उदेंत भागांत शिंयाळो चड खर आसता. देशाच्या सगळ्या भागांनी शिंयाळ्यांत तापमान गोठणबिंदूच्या सकयल वता. ह्या दिसांनी चडशा न्हंयांचे प्रवाह गोठिल्ले आसतात. गिमाच्या दिसांनी तापमान उश्ण आसता आनी तें उंचायेप्रमाण वाडत वता. देशाच्या आग्नेय भागांतलें वर्सुकी सरासरी तापमान ८° सॅ. आनी ईशान्येकडच्या थंड भागांत तें ६° सॅ. इतलें आसता. उत्तर भागांत जुलय म्हयन्यांत सरासरी तापमान १६° सॅ. आसता जाल्यार आग्नेय भागांत तें २१° सॅ. इतलें आसता. जानेवारींत उदेंत भागांत सरासरी तापमान - ७° सॅ. आनी ईशान्य भागांत १० सॅ. आसता. हांगा दर वर्साक सुमार ६० सेंमी. इतलो पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** पुर्विल्ली वनस्पत हिमयुगांत नश्ट जाल्ल्या कारणान, तशेंच जंगल कापणेक लागून पोलंड देशांतली वनस्पत तितलिशी समृद्ध ना. ह्या देशांत सादारणपणान मिश्र प्रकारांचीं रानां आसात. भुयेंतली सु. २७ % भूंय रानांतळा आसा. फकत देशाच्या ईशान्य भागांत सैमीक प्रकाराचें रान आसा. हेर भागांतलीं रानां नवी वा अडेच्या झाडांची लागवड केल्ल्यान तयार जाल्लीं आसात. सैमीक रानांनी बीच, फर, ओक, ॲश, बर्च, एल्म, पॉप्लर आनी हेर रूंद पानी तशीच पानझडी रुखावळ आसा. दोंगरी वाठारांनी टंड्रा प्रकाराची वनस्पत तिगोवन दवरल्या. देशांतल्या ११ राश्ट्रीय उद्यानांक लागून आनी ५०० सैमीक राखीव क्षेत्रांक लागून चडशी रानसंपत्त तिगून उरल्या.

हांगाच्या विंगड विंगड रानांनी वेगवेगळी मोनजात मेळटा. पृश्ठवंशी मोनजातींच्यो ल्हान व्हड मेळून सुमार ४०० जाती मेळटात. तातूंतलीं ८३ सस्तन मोनजात आनी २१२ प्रकारांचीं थळावीं सवणीं आसात. पानझडी रुख आशिल्ल्या रानांनी विंगड विंगड जातींचीं हरणां आनी रानदुकर दिश्टी पडटात. उंच दोंगरी वाठारांनी आनी कार्पोथियन दोंगरांचेर शॅम्बा, मॉर्मांट ही मोनजात तशेंच नट क्रॅकर, ब्लॅक ग्राउस आनी हेर तरांचीं सवणीं पळोवपाक मेळटात. मळांच्या भागांत चानी, हॅम्स्टर हे सारकिली मोनजात दिसता.

**इतिहास :** उत्तर इंडो-युरोपी भाशासमुहांतले पोलंडी लोक मुळाव्या स्लाव्ह, बाल्ट आनी जर्मन वंशांचे आसात. सुरवेक ह्या लोकांचो राबितो ओडर आनी व्हिश्वला न्हंयांच्या दुआबांत (basin) आशिल्लो. पोल्आनियन, व्हिश्वल, सिलेसीयनस्, उदेंत पॉमेरानियन आनी माझोवियनस् ह्यो अस्तंत स्लाव्हिक जमाती एकठांय आयिल्ल्यान पोलंड राश्ट्र अस्तित्वांत आयलें. वार्ता न्हंयेच्या पिकाळ देगांनी पोलानी जमातीच्या लोकांचो राबितो आशिल्लो. हेच जमातीवयल्यान उपरांत ह्या प्रदेशाक पोलंड नांव मेळ्ळें. ८०० ते ९६० ह्या काळांत पोलानी जमातीखेरीज हांगा हेर २० पोलंडी जमातींचीं वेगळींवेगळीं राज्यां आशिल्लीं. ९००-१०२५ ह्या काळांत बाल्टिक दर्यादेगांनी साबार व्हड व्हड वेपारी केंद्रां आशिल्लीं.

धाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत प्यास्ट घराण्याचो राजा म्येस्कॉ (I) पोलंडाच्या कांय भागांचेर राज्य करतालो. ताणें सायलिशीया आनी क्रेको प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडून राज्याचो विस्तार वाडयलो. ९६६ त ताणें क्रिस्तांव धर्म आपणावन तो आपल्या राज्यांत सगळेकडेन पातळचो म्हणून साबार येवजणो आंखल्यो. ह्याच वर्सा पोलंड राश्ट्र अस्तित्वांत आयलें, असो हांगाच्या लोकांचो समज आसा. म्येश्कॉ राजाचो चलो बॉलेस्लाव (I) हो गादयेर आयले उपरांत राज्याचो चड विस्तार जालो. पूण १०२५ म्येश्कॉ (II) राजा जालेउपरांत पोलंड देशाक कांय प्रदेश वगडावचे पडले. दुसरो बॉलेस्लाव हाणें पोप ग्रॅगरी सातवो हाका जर्मनीच्या चवथ्या हॅन्रीआड झुजपाक आदार दिल्लो. हाका लागून १०७३ पोपान दुसऱ्या बॉलेस्लावाक पोलंडाचो राजा केलो. तिसऱ्या बॉलेस्लावाच्या हातांत राज्याचीं सुत्रां आयले उपरांत ताणें परत पोलंडाचो विस्तार वाडयलो. उपरांत ताणें राज्य आपल्या तिनूय चल्यांभितर वांटलें हाका लागून तांचेमदीं यादवी झुजां जावपाक लागलीं. मुखार ही स्थिती सुमार

देडशें वर्सांमेरेन तशीच आशिल्ली. तिचो फायदो तार्तर, लिथ्युएनियन, मोंगोल आनी रशियी आक्रमकांक मेळ्ळो. पूण ड्यूक कोनराट हाणें 'ट्यूटॉनिक ऑर्डर' हे जेर्मन संघटनेच्या आदारान सगळ्या आक्रमकांक धांवडावन घाले. उपरांत 'ट्यूटॉनिक ऑर्डर' हे संघटनेचो मुखेली हेर्मान फॉन झाल्टसा हाणें पोलंडाच्या उत्तर भागाचेर आपलो शेक बसयलो.

चवदाव्या शेंकड्याचे सुरवेक आक्रमकांक सदांखातीर पोलंडांतल्यान धांवडावन घालचेखातीर सगळ्या पोलंडी लोकांक एकठांय हाडपाचो वावर पयलो लॅडिस्लास हाणें केलो. उपरांत १३२०त तो पोलंडाचो राजा जालो. ताणें हंगेरीचो राजा चार्ल्स पयलो हाका आपली धूव दिवन आनी लिथ्युएनियाची राजकन्या आपल्या पुताक बायल करून पोलंडाची दुस्मानकाय उणी करपाचो यत्न केलो. लॅडिस्लास हाचो पूत कॅझिमीर द ग्रेट एक कुशळ प्रशासक आशिल्लो. ताणें साबार येवजण्यो आंखून कायदो, शासन आनी समाजीक मळांचेर सुदारणा घडोवन हाडिल्ली. क्रेको विद्यापिठाची स्थापणूक ताच्याच तेंपार जाली. पूण कॅझिमीर हाका चलो नाशिल्ल्यान पोलंडाचें राज्य ताचो पुतणयो हंगेरीचो राजा आंझूचा ल्वी हाका मेळ्ळें. ताकाय चलो नाशिल्ल्यान ताणें आपलो जांवय यागेलो हाका दुसरो लॅडिस्लास हें नांव दिवन पोलंडाचे गादयेर बसयलो. यागेलोन घराण्याची सत्ता पोलंडाचेर १३८३ ते १५७२ मेरेन तिगून आशिल्ली. ह्या काळांत पोलंड-लिथ्युएनियाचें राज्य अस्तित्वांत आयलें. अस्तंत प्रबोधनाच्या ह्या कालखंडांत देशांतल्या विद्या-कलांक नेट मेळ्ळो. ह्याच सुमाराक चवथो कॅझिमिर (कार. १४४५-९२) हाणें अमीर उमरावांचे संविधानात्मक हक्क वाडोवन दोन घरां आशिल्ली संसदेची स्थापणूक केली. ताणें सरदारांक कांय खाशेले हक्क दिल्ल्यान उपरांत तांचीच सत्ता वाडली.

यागेलन घराण्याची सत्ता १५७२त काबार जाली. उपरांत सोळाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन हंगेरीचो स्टीवन बाटोरी (कार. १५७५-८६) आनी सतराव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत स्विडनाच्या व्हासा घराण्यांतलो तिसरो झीगितमुंट (कार. १५८५-१६३२) हाणीं पोलंडाचेर राज्य केलें. ह्या तेंपार पोलंडाची रशिया, स्विडन, तुर्कस्थान आनी हेर राश्ट्रांकडेन झुजां जायत राविल्ल्यान देशाची अर्थीक स्थिती साप इबाडिल्ली. व्हासा घराण्यांतलो निमाणो राजा दुसरो जॉन कॅझिमीर हाका मरण आयल्या उपरांत तिसरो जॉन सॉब्येस्की ह्या लश्करी अधिकाऱ्याची गादयेर नेमणूक केली. ताणें ऑस्ट्रिया सेनेच्या आदारान १६८३त तुर्कीचेर व्हिएन्नाच्या झुजांत पुरायपणान हार घाल्ली. हे घडणुकेक लागून पोलंडाचें म्हत्व वाडलें. सॉब्येस्की उपरांत पोलंड सॅक्सन घराण्यांतल्या राजांच्या शेकातळा आयलो. ह्या राजांक पोलंडी लोकांविशीं मात लेगीत आदर नाशिल्लो. १७६४त स्तानीस्लाफ दुसरो आउगुस्तची पोलंडाचो राजा जालो. हाच्याचतेंपार प्रॉटेस्टंट कॅथलिक आनी ऑर्थोडॉक्स हांचेमदीं यादवी झुजां जावपाक लागलीं. हे यादवींतल्यान १७७२, १७९३ आनी १७९५ अशें तीन खेपे पोलंडाचें विभाजन जावन, रशिया, प्रशिया आनी ऑस्ट्रिया हाणीं पुराय देस आपसांत वांटून घेतलो. मुखार पयलो नॅपोलियन हाणें आपल्या तंत्राप्रमाण चलपी ग्रँड डची ऑफ वॉर्सा ह्या पोलंड राज्याची स्थापणूक केली. पूण नॅपोलियनाचे हारीवांगडाच तें ना जालें. १८१५त युरोप खंडाचो नकाशो परत पितारचो ह्या उद्देशान व्हिएन्नांत भरिल्ले काँग्रेसीन पोलंड राज्याचो चडसो भाग रशियेक दिलो. विभाजनाक लागून पोलंडी लोक एकामेकांसावन पयस जाल्ले. ह्याच तेंपार तांच्या मनांत राश्ट्रवादाची भावना निर्माण जावन वगडायल्लें स्वातंत्र्य परत मेळोवपाखातीर ताणीं १८३०, १८४६, १८४८, १८६३ आनी १९०७त बंडां उबारिल्लीं पूण तीं अपेशी थरलीं.

पयल्या म्हाझुजाच्या तेंपार १९१५त रशियेच्या शेकातळा आशिल्लया पोलंड भागाचेर जर्मनीन जैत मेळोवन तो आपल्या शेकातळा दवरलो. उपरांत ५ नोव्हेंबर १९१६ दिसा जर्मन आनी ऑस्ट्रिया देशाच्या सम्राटांनी झुजांत आपल्याक फायदेशीर थरपी स्वतंत्र पोलंड राज्याची घोशणा केली. पूण झुजांत जर्मनीचेर हार पडले उपरांत हें राज्यूय काबार जालें. ९ नोव्हेंबर १९१८ दिसा जनरल यूझेफ पिलसूतस्की हाच्या फुडारपणाखाला पोलंडाच्या स्वतंत्र राज्याची स्थापणूक जाली.

पयल्या म्हाझुजांत जर्मनीचेर हार पडले उपरांत १९१९त जाल्ले व्हर्सायचे कबलातीन पोलंडाक पॉझनान आनी बाल्टिक दर्याचे हक्क प्राप्त जाले. १९२०त घेतिल्लया भौशीक मताप्रमाण सायलेशियेचो कांय भाग पोलंडाक मेळ्ळो. पूण पॅरीस कबलातीप्रमाण थरयल्ली पोलंड - रशियामदली शीम पोलंडाक मान्य नाशिल्ली. ह्या वादांतल्यान पोलंड आनी रशिया हांचेभितर झूज जावन तातूंत रशियेची हार जाली, १९२१त जाल्ले रिगाचे कबलातीवरवीं पोलंडाच्यो चडशो मागण्यो मान्य जाल्ल्यो. पयल्या म्हाझुजाउपरांत जाल्ल्या सागळ्या कबलातींक लागून जर्मन, बायलो - रशिया, युक्रेनी, लिथ्युएनियी, चॅक, ज्यू आनी हेर अल्पसंख्य लोकांचो नव्या पोलंडी राज्यांत आस्पाव जालो. पिलसूतस्की हांच्या फुडारपणाखाला पोलंडान नवें लोकशाय संविधान आपणायलें.

नव्या संविधानाप्रमाण देशांत लोकशाय शासन अस्तित्वांत आशिल्लें. ह्या तेंपार शेतवडीच्या आनी उद्देगीक मळांचेर थोडीभोव सुदारणा जाली. १९३५त पिलसूतस्कीच्या मरणाउपरांत एडव्हार्ट स्मीग्ली - रिट्स हो सर्वाधिकारी जालो. ताणें आदलें संविधान रद्द केलें आनी नवें संविधान आपणायलें. नव्या संविधानावरवीं वेंचून आयिल्लें विधीमंडळ लश्करी मंडळाच्या तंत्राप्रमाण वागपाक लागलें. जर्मनींत हिटलर अधिकाराचेर आयले उपरांत ताणें व्हर्सायची कबलात रद्द समजून, पोलंडाचे कांय भाग जर्मनीक मेळचे म्हणून मागणी केली. जर्मनीच्या वाडट्या बळग्याक लागून पोलंडान इग्लंड - फ्रांसाकडेन संरक्षक कबलात केली. पूण १ सप्टेंबर १९३९ दिसा जर्मनीन पोलंडाचेर घुरी घालून फकत १५ दिसांनी पोलंडाचेर हार घाली. जर्मनी आनी रशिया हांचेमदीं जाल्ले कबलातीक लागून पोलंड देश दोगांयनी विभागून घेतलो. पूण दुसऱ्या म्हाझुजांत १९४१त जर्मनी-रशिया हांचे भितर झूज सुरू जाले उपरांत रशियेच्या शेकातळा आशिल्लो पोलंडी मुलुखूय जर्मनीच्या हातांत आयलो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत रॅक्झीविच व्लाडिस्लाफ हाका हद्पार केले उपरांत ईग्नाट्सी मॉशचीट्सकी हो पोलंडाचो राश्ट्राध्यक्ष जालो आनी फ्रांसांत आशिल्लो व्लाडिस्लाफ सीकॉरस्की हो प्रधानमंत्री जालो. दुसऱ्या म्हाझुजांत साठ लाख पोलंडी नागरिकांक मरण आयलें आनी ३८,७०० कोटी रुपयांचें अर्थीक नुकसान जालें. १९४४त रशियी लश्करान जर्मन सैन्याक पोलंडातल्यान धांवडान घाले उपरांत लुब्लीन शारांत रशियेप्रमाण पोलंडी शासनाची स्थापणूक केली. उपरांत रशिया आनी पोलंड हांचेमदीं इश्टागतीची कबलात जाली. मुखार ५ जुलय १९४५त याल्टा परिशदेच्या निर्णयाप्रमाण लुब्लीनांतल्या पोलंडी सरकारांत लंडन शासनांतल्या स्टानीस्लाफ मिकॉलायाचिक हाचो आस्पाव केलो. ह्या नव्या पोलंडी शासनाक इंगलंड-अमेरिकेची मान्यताय मेळ्ळी. वॉरसॉच्या

नव्या सरकाराचो बॅरूट हो कार्यकारी राष्ट्राध्यक्ष जालो.

१९४५त वॉरसाँत नव्या पोलंडी सरकाराची स्थापणूक जाले उपरांत पोलंड देशाक रशियेचें अंकीत राष्ट्र करप हो स्टालिनाचो मुखेल हेत आशिल्लो. ह्या वावराखातीर बॅरूट हाणें स्टालिनाक पुराय तेंको दिल्लो. पोलंडी मंत्रीमंडळांतल्या कम्युनिस्टांनी बॅरूट हाच्या फुडारपणाखाला विरोधी राष्ट्रीय पक्षाचो मिकॉलायचिकाच्या शेतकामती पक्षाचो विरोध मोडून उडयलो. उपरांत ताच्या गुप्त पोलिसांनी पोलंडाची खूब शेतकी जमीन आनी कारखान्यांचें राष्ट्रीयीकरण केलें. १९४७चे संसदी वेंचणुकेंत कम्युनिस्टांक भोवमत मेळ्ळें. नव्या सरकारान सगळो राजकी विरोध पुरायपणान मोडून उडयलो. मुखार सोव्हिएत रशियेचे धर्तेचेर पोलंडाचें शासन सुरू जालें. २२ जुलय १९५२त पोलंडाचे संसदेन नव्या संविधानाक मान्यताय दिली. ह्या संविधानांत रशियेचे धर्तेप्रमाण प्रशासनवेवस्था आसची आनी सरकारान नेमणूक केल्ल्या वांगड्यानीच वेंचणुकेंत वांटो घेवंचो अशी तजवीज केल्ली. पोलंडी प्रजासत्ताकाच्या राष्ट्राध्यक्षाचें पद रद्द करून ते सुवातेर काउन्सिल ऑफ स्टेट हाची स्थापणूक केली. बॉलेस्लाफ बॅरूट हो प्रधानमंत्री जालो. उपरांत रोकडीच बॅरूट हाची कम्युनिस्ट पक्षाचो मुखेल सचीव म्हणून नेमणूक जावन सिरांक्येव्हिच हाका प्रधानमंत्री केलो. पूण कम्युनिस्ट पक्षांतल्या विंगड विंगड गटांमदीं मतभेद जावन तांचेमदीं संघर्श सुरू जालो. ह्या संघर्शात गोमुल्का, जनरल मेरिअन स्पायचालस्की आनी हेर उदारमतवादी गट फाटीं पडून, सगळी सत्ता स्टालिनवादी बॅरूटाच्या हातांत गेली. ताणें कॅथलिक धर्मगुरूंआड खर धोरण आपणावन ताचेआड विरोध करतल्यांक बंदखणीची ख्यास्त केली. स्टालिनवाधाच्या तेंपार समाजीक स्थिती पुरायपणान इबाडिल्ली. पोलंडाच्या साबार शारांनी दंगली जावपाक लागल्यो. हाका लागून शासन करपी गटान पक्षाच्या फुडारपणांत बदल करून सगळ्या गटांक मान्य आशिल्लो गोमुल्का हाची पक्षाचो मुखेली म्हणून नेमणूक केली. ह्याच तेंपार स्टालिन हाका मरण येवन क्रुश्चेव हो सोव्हिएत रशियेचो राष्ट्राध्यक्ष जालो. ताणें आनी हेर रशियी फुडाऱ्यांनी पोलंडांत गोमुल्का हाच्या धोरणाक मान्यताय दिली. गोमुल्का हाणें आदलें दहशतवादी धोरण सोडून नवें धोरण आपणायलें. ताणें नेमाळ्यांवयले निर्बंध काडून उडयले, कॅथलिक धर्मगुरूंक मुक्त केले, शिक्षणसंस्थांतल्यान इत्सीक धर्मशिक्षणाक मान्यताय दिली, तशेंच भौशीक शेतवडीचें उद्दीश्ट सोडिनासतना शेतकामत्यांक वैयक्तिक मालकीची जमीन दवरपाक मान्यताय दिली.

गोमुल्का हाणें आपल्या फुडारपणाखाला १४ वर्सांमेरेन पोलंडाचें शासन चलयलें. पूण १९५६त जाल्ले दंगलींत थिराय हाडपाक गोल्मुका शासनाक अपेस आयिल्ल्यान पक्षाभितर कांय बदल घडोवन हाडचे पडले. पोलंड-रशियेचे संबंद, नेमाळ्यांच्या लिखाणाचेर आशिल्लें नियंत्रण, गोमुल्काचें कॅथलिकांविशींचें उदार धोरण, इबाडिल्ली अर्थीक स्थिती, अन्नपदार्थांच्या दरांनी वाड आनी हेर साबार कारणांक लागून पक्षाभितर आनी पोलंड समाजांत ह्या तेंपार असंतोश निर्माण जाल्लो. हाचो वायट परिणाम म्हळ्यार पोलंडाच्या चडशा सगळ्या शारांनी दंगली जावपाक लागल्यो. सरकाराआड जावपी विरोध आनी दंगली मोडून उडोवचेखातीर गोमुल्कान पोलंडी सेनेचो उपेग केलो. हातूंत साबार लोकांक मरण आयलें. ह्यो दंगली थांबोवपाक गोमुल्क हाका अपेस आयिल्ल्यान निमाणेकडेन ताका राजिनामो दिवंचो पडलो. गोमुल्का उपरांत एडव्हार्ट ग्येरेकी हाची पक्षाचो सचीव म्हणून नेमणूक जाली. १९७६त घेतिल्ले वेंचणुकेंत युनायटेड वर्कर्स पक्षाक भोवमत मेळून ग्येरेक हो प्रधानमंत्री जालो.

ग्येरेक हाच्या पर्वाची (era) सुरवात बरी जाली. पोलंडी लोकांमदीं राश्ट्रीय भावना निर्माण जावंची म्हणून ताणें दुसऱ्या म्हाझुजांत हिंटलरान विध्वंस केल्ली वॉरसॉ रॉयल कॅसल परतून बांदून काडली. समाजांत निर्माण जाल्ली अस्थीर परिस्थिती जाग्यार हाडपाखातीर अन्नपदार्थांवयल्यो दरो देंवयल्यो. 'नवें पोलंड' उबारपाखातीर ताणें साबार अर्थीक येवजणो आंखल्यो. हेखातीर ताणें हेर कम्युनिस्ट राश्ट्रांकडच्यान व्हडा प्रमाणांत यंत्रसामुग्री निर्यात केली. पूण शेतवड मळाचेर दुर्लक्ष केल्ल्यान अर्थीक स्थिती सुदारूंक शकली ना. उत्पन्नांत वाड जावंक नाशिल्ल्यान, पोलंडाक हेर कम्युनिस्ट राश्ट्रांचेर आदारून रावचो पडलो. हाका लागून जनतेची आस्पत नासतना लेगीत शासनाक खाद्यपदार्थांच्यो दरो वाडोवंच्यो पडल्यो. म्हारगाय वाडत रावली तशी समाजांत अशांतताय निर्माण जाली. वाडटे म्हारगायेचो विरोध करपाखातीर देशांतल्या साबार कामगार एकठांय येवन लॅक वॉवेन्सा हाच्या फुडारपणाखाला १९८०त तांणी पुराय देसभर संप घडोवन हाडलो. उपरांत सरकार आनी वॉवेन्सा हांचेभितर ग्डांस्क कबलात जावन स्वतंत्र कामगार संघटना करपाक मान्यताय मेळ्ळी. सप्टेंबर १९८०त ग्येरेकी दुयेंत पडिल्ल्यान स्ट्यानिस्लॉव कनिया हाची प्रधानमंत्री म्हणून नेमणूक जाली. १७ सप्टेंबर १९८०त साबार कामगार संघटनांनी राश्ट्रीय संघटनेची स्थापणूक केली. वॉवेसा होच तिचो अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो.

९ फेब्रुवारी १९८१ दिसा संरक्षण मंत्री, जनरल वॉज्येसच जेरुझॅलस्की हो पोलंडाचो प्रधानमंत्री जालो. १८ ऑक्टोबर १९८१ दिसा कनिया हाणें आपल्या पदाचो राजिनामो दिले उपरांत जेरुझॅलस्की हो कम्युनिस्ट पक्षाचो मुखेली जालो. डिसेंबर म्हयन्यांत लश्करी कायदो लागू करून सरकारान नागरीक स्वातंत्र्य रद्द केलें. राश्ट्रीय संघटन बेकायदेशीर थरोवन ताच्या मुखेल्यांक बंदखणींत घाले. ऑक्टोबर १९८२त संसदेन कायदो पास करून सगळ्यो कामगार संघटना बेकायदेशीर थरयल्यो. तांचे सुवातेर कम्युनिस्ट पक्षाक तेंको दिवपी कामगारांच्यो संघटना निर्माण केल्यो. १९८५त झिबीग्नीव मेस्सनर हो पोलंडाचो प्रधानमंत्री जालो. उपरांत १९८६त सरकारान राजकीय कैद्यांची सुटका केली.

राश्ट्रीय संघटनेची परत स्थापणूक जावन तिचो मुखेली, लॅच वॉवेन्सा हाणें १९८९त कम्युनिस्ट पक्षाची हुकूमशाय नश्ट केली आनी १९९०त कम्युनिस्ट पक्ष बरखास्त केलो.

**राज्यवेवस्था :** सद्या अस्तित्वांत आशिल्लें पोलंडाचें संविधान २२ जुलय १९५२त आपणायल्लें. तातूंत १९७९त आनी १९८३त कांय सुदारणा केल्ल्यो आसात. संविधानाप्रमाण पोलंड हें प्रजासत्ताक राश्ट्र. ताची सार्वभौम सत्ता एकसदनी संसद (Sejm) हे सगळ्यांत उंचेलें निर्वाचीत संस्थेक दिल्ली आसा. संसदेंत वट्ट ४६० वांगडी आसून तांची वेंचणूक गुपीत मतदानान जाता. संसदेचो तेंप चार वर्सांचो. अठरा वर्सां पुराय जाल्ल्या सगळ्या पोलंडी नागरिकांक मतदानाचो हक्क आसा. संसद वांगड्यांतले फकत सतरा वांगड्यांचें काउन्सिल ऑफ स्टेट हें मंडळ पुराय सत्ताधारी आसता. ह्या मंडळाचो एक अध्यक्ष आनी एक सचीव आसता. प्रधानमंत्री उपप्रधानमंत्री आनी हेर मंत्र्यांक हें मंडळूच वेंचून

काडटा. ह्या मंत्रीमंडळाचेरूच देशाची शासकीय आनी प्रशासकीय जापसालदारकी आसता. मंत्रीमंडळ पुरायपणान काउन्सिल ऑफ स्टेट आनी संसदेक जापसालदार आसता.

थळाव्या प्रशासनाखातीर देश ४९ प्रांतानी विभागिल्लो आसा. दर एका प्रांताचें थळावे प्रशासन निर्वाचीत मंडळावरवीं चलता. ह्या मंडळाच्यो वेंचणुको दर चार वर्सांनी संसदेचे वेंचणुके वांगडाच जातात.

**अर्थीक स्थिती :** दुसऱ्या म्हाझुजा उपरातच्या काळांत सोव्हिएत युनियन राश्ट्राचे धर्तेचेर उद्देगधंद्यांचें आनी शेतकी जमनीचें राश्ट्रीयीकरण केलें. १९७० उपरांत देशांत खणकाम आनी कारखानदारी हातूंत खूब वाड जाल्ली आसा. पूण हांगाची जमीन पिकाळ आसून लेगीत शेतवड मळाचेर व्हडलिशी उदरगत जांवक ना. राश्ट्रीय उत्पादनांत नेटान वाड जायत आसा. वट्ट उत्पादनांतलें ५४% उत्पादन उद्देगधंद्यासावन मेळटा आनी फकत १९% उत्पादन शेतवडींतल्यान मेळटा.

**खनीज संपत्ती :** पोलंड खनीज संपत्तीच्या मळार गिरेस्त आसा. फातरी कोळसो हें हांगोचें मुखेल खनीज. १९७५ उपरांत पोलंडाचो फातरी कोळशाच्या उत्पादनांत चवथो आंकडो लागता. दर वर्सा कोळशाचें उत्पादन सुमार १५ कोटी टन इतलें आसता. कोळशाचें चडशें उत्पादन अपर सायलीशियन खणींतल्यान येता. पुडीकोराचो कोळसो आनी लिग्नायट हे कॉनीन-तुरेक आनी त्युरोसझो ह्या भागांनी मेळटा. बॉखन्या, सानॉक, कॉस्नॉ ह्या दक्षिणेकडच्या भागांनी कांय प्रमाणांत तेल मेळटा. लुबाचुफ्का, नोव्हा सूल, चेब्नीतसा, ऑस्टूक व्हेल्कॉपॉस्की ह्या भागांनी वायूचे सांठे आसात. गंधक हें पोलंडाचें दुसरें म्हत्वाचें खनीज. गंधकाचे साठें व्हिश्ला न्हंयेच्या देगांनी चड प्रमाणांत मेळटात. केओलिन, चुन्याखडी, मीठ, खडू, जिप्सम हींय मत्वाचीं खनिजां पालंडाचे भुयेंत मेळटात. पॉटॅशियम आनी मॅग्नेशियम हांचेय व्हड सांठे हांगा आसात. शिशें, तांबें, निकॅल, कॉबाल्ट, रुपें हीं म्हत्वाचीं खनिजांय हांगा सांपडटात.

**शेतवड :** १९८६ मेरेन पोलंडाची सुमार १८.८ मिलीयन हॅक्टर जमीन शेतवडीखाला आशिल्ली. हांगाची जमीन पिकाळ आसा, पूण तिचो फावो तसो उपेग करूंक नाशिल्ल्यान, शेतकी उत्पादन त्या मानान खूब उणें येता. बटाट आनी राय हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. व्हिश्ला त्रिभूज प्रदेशांत आनी सायलिशिया वाठारांतली भूंय पिकाळ आसून गंव, बीट, ओट, फळफळावळ हांचें उत्पादन खूब प्रमाणांत येता. बार्ली, कड्डण, कोबी, टमाट, तंबाकू हीं हांगा जावपी हेर म्हत्वाचीं पिकां. शेतवडींत यंत्रांचो आनी रसायनीक साऱ्याचो उपेग दिसानदीस वाडत आसा. पूण खाजगी शेतवडींत नांगरपाखातीर चडसो घोड्यांचोच उपेग करतात.

हांगा चरोव जमीन खूब आशिल्ल्यान पशुपालनाच्या वेवसायाक नेट आयला. दूद वेवसाय दिसानदीस वाडत आसा. पशूपालन आनी दूदवेवसाय मुखेलपणान सहकारी तत्त्वांचेर उबारिल्लो आसून आधुनीक तंत्राच्या वापराक लागून तांचे उत्पादन ल्हव ल्हव वाडत आसा. मास, बटर, चीझ, दूदपावडर, तांतयां बेकन आनी मोनजातींसावन मेळपी हेर पदार्थांक हांगा हालींच्या तेंपार चड खप आसा.

रानांसावन मेळपी येणावळूय राश्ट्रीय अर्थवेवस्थेचे नदरेन म्हत्वाचीं बंदरां आनी धके हातूंत जाल्ली सुदारणा तशेंच नुस्तें मारपाखातीर आधुनीक बोटींचो वापर चड जाल्ल्यान नुस्तेमारी वेवसायाकूय नेट आयला.

**उद्देगधंदे :** दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत सोव्हिएत युनियनाच्या प्रभावाखाला पोलंडाच्या उद्देगधंद्याची नेटान उदरगत जाली. सुरवेक पोलंड सरकारान म्हत्वाच्या उद्देगधंद्याचें केंद्रियीकरण करून धातुउद्देग यंत्रम्हाल आनी रसायन उत्पादनाचेर चड भर दिल्लो. सध्याक कारखाने आनी ल्हानसान उद्देगधंदे देशांत सगळेकडेन पातळिल्ले आसा. तिखें, शिमीट, ट्रॅक्टर, रेल्वे वागिणी, ट्रक आनी अशा प्रकारांचे हेर अवजड उत्पादन होच पोलंडाच्या उद्देगधंद्याचो कणो. खाद्यपदार्थ निर्मिती, लुगट यंत्रानिर्मिती ह्या उद्देगांक हांगा चड म्हत्व आसून साबार लोक तातूंत वावुरतात. म्हाल आनी कोळशांच्या साठ्यांक लागून सालिशिया भागांत धातूउद्देग चड विकसीत जाल्लो आसा. तशेंच लूज शार आनी भोंवतणच्या वाठारांनी लुगटाच्या उद्देगांत खूब विकास जाल्लो आसा. वॉरसॉ शाराभोंवतणीं वीज उपकरणांचे उद्देगधंदे आसात. तांबें आनी गंधक हांच्या सांठ्यांक लागून पोलंडाचो संवसारांतल्या गिरेस्त राश्ट्रांमदीं आस्पाव जाता. तसोच तारवांबांदणी करपी संवसारांतल्या पयल्या धा देशांमदीं पोलंडाचो आस्पाव जाता.

पोलंड देशांत अर्थीक येवजणेक १९४७ सावन सुरवात जाली. पयली तीनवर्सुकी येवजण ही त्या काळांत अस्तित्वांत आशिल्ले रशियेचे पंचवसुर्की येवजणेचेर आदारिल्ली. दुसऱ्या म्हाझुजांत विध्वंस जाल्ले अर्थवेवस्थेंत तशेंच उद्देगधंद्यांत परतून उदरगत घडोवन हाडप हो हे येवजणेचो मुखेल हेत आशिल्लो. हेखातीर तांणी हेर कम्युनिस्ट राश्ट्रांचो पालंव घेतिल्लो. १९५०-५५ हे दुसरे सवसुर्की येवजणेंत ताणीं वस्तुउद्देगांच्या विकासाचेर चड भर दिल्लो. १९५६-६० हे पंचवर्सुकी येवजणेंत उद्देगीक विकासाचेर मातसो उणो भर दिवन शेतकीउत्पादन, गृहनिवासन, उपभोग्य वस्तुउद्देग हांचेर चड भर दिल्लो. अशो साबार येवजणो आंखून आनी तातूंत कांय सुदारणा करून पोलंडान आपली अर्थीक वेवस्था जाग्यार हाडिल्ली आसा. 'नॅशनल बँक ऑफ पोलंड' ही पोलंड देशाची मध्यवर्ती बँक आसून, राश्ट्रीय अर्थीक येवजण्यो आंखपाची आनी त्यो घडोवन हाडपाची जापसालदारकीय तिचेरूच आसता. पतानिर्मिती, पतपुरवण आनी पतवेव्हार ह्या सगळ्यांचेर ती नियंत्रण दवरता.

**येरादारी आनी संचारण :** येरादारीच्या मळार हो देश खूब सुदारिल्लो आसा. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत रेल्वेमार्ग आनी रस्ते हातूंत खूब सुदारणा जाली. सद्या चडशा लोहमार्गांचें विद्युतीकरण जाल्लें आसा. पॉलीश स्टेट रेल्वे ही देशांतली मुखेल रेल्वे. पॉलिश रेल्वेक युरोपांत म्हत्वाची सुवात आसा. रस्त्यांच्या मळारूय पोलंड खूब फुडारिल्लो आसा. गांवगिऱ्या वाठारांनी लेगीत रस्त्यांचें डांबरीकरण जाल्लें आसा. पॉलिश मोटर कम्युनिकेशन्स ही सरकारी मोटार येरादारी संस्था. 'इंटरनॅशनल रोड कंपनी' ही येरादारी संस्था पर्यटकांची आनी म्हाल हाडपा-व्हरपाची वेवस्था सांबळटा. विश्वला, ओडर, बग, वार्ता, सान, नारेफ, नॉटेच आनी हेर न्हंयांतल्यान अंतर्गत उदका येरादारी जाता. गदिनीआ, डॅन्झिग आनी श्टेटीन हीं हांगाचीं मुखेल बंदरां. 'पॉलनॉक्नी' ह्या सगळ्यांत व्हड बंदरांत एक लाख भारवस्तू टनांचीं तारवां लावंक मेळटात अशीं बंदरां आसात. 'पॉलिश ओशन लायन्स' आनी 'पॉलिश स्टीमशिप कंपनी' ह्यो म्हत्वाच्यो दर्यावर्दी कंपन्यो. वॉरसॉक आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसून देशांतलीं सगळीं मुखेल शारां अंतर्गत हवाई मार्गांनी जोडिल्लीं आसात. लोट (L.O.T.) ही पोलंडी हवाई येरादारी कंपनी अंतर्गत आनी आंताराराश्ट्रीय हवाई येरादारीची वेवस्था सांबाळटा. १९८६ मेरेन हांगा ८,२९७ पोस्ट ऑफिसां आशिल्लीं आनी२०६८ दशलक्ष दूरध्वनी आशिल्ले. 'नॅशनल

कमिटी ऑफ पॉलिश रेडिओ अँड टेलिव्हिजन' हे शासकीय संस्थेचे देखरेखीखाला सुमार ३५ नभोवाणी केंद्रां आनी दूरचित्रवाणीचीं सुमार १७५ प्रसार केंद्रां आसात. १९८५ मेरेन हांगा २,०४१ सिनेमा घरां आनी ९८ नाट्यगृहां आशिल्लीं. हांगा उजवाडाक येवपी ९७ दिसाळीं आनी २,८८९ नेमाळीं आसात.

**लोक आनी समाजजीण** : पोलंडी लोक हे मुळाव्या स्लाव वंशाचे आसून तांची भास अस्तंत स्लाव भाशासमुहांतली. बेलोरशियी आनी उकरेनियी हे हांगाचे अल्पसंख्येन रावपी लोक आसात. ज्यू लोक चड करून शारांनी मेळटात. चडशे पोलंडी लोक हे मध्यम उंचायेचे आसून तांची कात गोरी आनी केंस मातशे तांबशे. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत हेर युरोपी राश्ट्रांप्रमाण पुराय समाजीक बांदावळ बदलून गेल्ली आसा. जमीन, वेपार आनी उद्देगधंदे हांचें राश्ट्रियीकरण जाल्ल्यान भाटकारशाय आनी मालकीशाय नश्ट जाली आनी राजकीय सुत्रां उपरांत कामगारांच्या हातांत गेलीं. पोलंडी सरकारान उद्देगधंद्याचेर भर दिल्ल्यान, शेतवडींत वावुरपी लोक कामधंदो सोदपाच्या निमतान शारांनी वचपाक लागले. हाका लागून शेतवडींत वावुरपी लोकांची संख्या खूब उणी जाली. समान शिक्षणाची संद लाभिल्ल्यान सुसंस्कृत वर्ग वाडत गेलो, तसो धवाड्यांचो आंकडो वाडत गेलो. बालविवाह पद्दत फाटी पडिल्ल्यान, कुटूंब येवजण आनी बाळंतरा उपरांत मेळपी खाशेली सवलत हांकां लागून बायलांकूय दादल्यांवागडा सगळ्या मळांचेर काम करपाची समान संद मेळपाक लागली. समाजांत कामाच्या स्वरुपाप्रमाण सादारणपणान चार वर्ग जातात. पक्ष, सरकार आनी सैन्य हातूंतल्या अधिकाऱ्यांचो अल्पसंख्य पूण प्रभावी वर्ग. दुसऱ्या वर्गांत कलावंत, लेखक, शिक्षक हे सारकिले बुद्दीवादी आनी वेवस्थापनांत गुंथिल्ल्या धवाड्या लोकांचो आस्पाव जाता. उद्देगधंद्यांत गुंथिल्ल्या कामगारांचो तिसऱ्या वर्गांत आनी शेतकामत्यांचो चवथ्या वर्गांत आस्पाव जाता.

**शिक्षण** : रशियेचे धर्तेचेर साम्यवादी सरकार आयले उपरांत सगळ्यो खाजगी शिक्षण संस्था बंद करून पुस्तकांचेर सरकाराचें कडक नियंत्रण आशिल्लें. नव्या सरकारान साम्यवादी देशाक फायदेशीर थारपी एक खाशेली शिक्षणपद्दत सुरू केली. हांगा सगळ्या प्रकारांचें आनी सगळ्या पांवड्यावयलें शिक्षण फुकट मेळटा. देशभर समान शालेय पद्दत आसून आठ वर्सांमेरेन शाळेंतलें शिक्षण आनी पिरायेच्या अठराव्या वर्सामेरेनचें पुरक शिक्षण सक्तीचें आसा. शाळेंतल्या शिक्षणाचो तेंप इकरा वर्सांचो आसून सुरवेची सात वर्सां मुळावें शिक्षण आनी उपरांत चार वर्सांचें माध्यमिक शिक्षण घेवंचे पडटा. माध्यमिक शिक्षणाभितर सादारण आनी तंत्रविद्या अशें दोन शिक्षणक्रम आसतात.

**भाशा आनी साहित्य** : पोलंडी भाशेचो चॅक, स्लोवाक आनी सोर्ब ह्या भाशां वांगडा अस्तंत स्लाविक भाशासमुहांत आस्पाव जाता. हे भाशेंतलें सद्या उपलब्ध आशिल्लें सगळ्यांत पोरणें साहित्य १२व्या शेकड्यांतलें आसून तें धर्मीक स्वरुपाचें आसा. छापणावळीचो सोद आनी मानवतावादी लिखाण हांकां लागून १६व्या शेकड्यांत पोलंडी साहीत्य फांकारूंक पावलें, पोलंडी भाशेक मानाची सुवात मेळोवन दिवपी मिकॉलाय रे हो साहित्यीक ह्याच शेंकड्यांतलो आशिल्लो. पोलंडी साहित्य विकासाच्या दुसऱ्या युगांत (१८व्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत) शास्त्रीय आनी विज्ञानीक लिखाणाचेर चड भर दिल्लो. व्हाहस्लाव पॉटॉट्स्की हाणें ह्या काळांत बरयल्लें 'चोसीम्स वॉर' हें म्हाकाव्य खूब प्रसिद्द आसा. ईग्नाट्स्की क्रासीट्स्की, फ्रानट्सीशेक झाब्लॉट्स्की हे ह्या काळांतले नामनेचे साहित्यीक. यूल्यूश स्लॉव्हाट्स्की, झिग्मूंट क्रासीन्स्की, आलेक्सांडर फ्रेड्रॉ, बॉलेस्लाव्ह प्रूस, एलिस ओरेष्कोव, हेन्रिक शेनक्येव्हिच हे १९व्या शेंकड्यांत नोबॅल पुरस्कार मेळिल्ले साहित्यीक. १९१८त स्वातंत्र्य मेळ्ळे उपरांत 'स्कॅमन्ड्रायट्स' ह्या नांवान प्रसिद्ध आशिल्लो कवींचो पंगड ह्या तेंपार चड प्रभावी थारलो. 'व्हनागार्ड ग्रुप' ह्या नांवान मुखार आयिल्ल्या कांय कवींनी पोलंडी कवितेक क्रांतिकारक मोडण दिवपाचो यत्न कल्लो. १९३० उपरांत पोलंडी गद्य चड गिरेस्त जायत गेलें.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत हेर संचारण माध्यमांप्रमाण पोलंडी खबरांपत्रांचेंय राश्ट्रीयीकरण जालें. तांचेर तशेंच हेर सगळ्या लिखाणाचेर शासकीय नियंत्रण आशिल्ल्यान साहित्यिकांक आपले विचार उक्ते करपाक वाव नाशिल्लो.

**कलाकुसर** : मध्ययुगाचे सुरवेक वास्तू आनी शिल्पां उबारता आसतना पोलंडी शिल्पकारांनी रोमनेस्क वा गॉथिक शैली आपणायल्या ती आयजूय पळोवपाक मेळटा. प्रबोधन काळांत नागरी वास्तूकलेचे बऱ्यांतले बरे नमुने मेळटात. अठराव्या-एकुणिसाव्या शेंकड्यांत उबारिल्ले नतअभिजातवादी शैलीच्यो साबार स्मारकवास्तू वॉरसॉ शारांत आसा. एकुविसाव्या शेंकड्यांत पोलंडी कलेंत राश्ट्रवादाची भावना पळोवपाक मेळटा. ह्या काळांतल्या चित्रकारांनी काडिल्लीं इतिहासीक आनी झुजाविशींचीं चित्रां हे नदरेन म्हत्वाचीं थारतात. क्रेकोच्या 'यंग पोलंड चळवळी' सावन प्रेरणा घेतिल्ल्या चित्रकारांच्या पंगडांत स्टानीस्लाफ विस्प्यान्स्की तसोच स्टानीस्लाफ्स्की हांचो आस्पाव जाता. दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून जाल्लो विध्वंस आनी उपरांत उद्देगीकरणाचो नेट, हांच्यांतल्यान वास्तूकला, नगररचणूक आनी कलेच्या हेर मळांचेर नव्या कल्पनांचो आस्पाव जालो. दूनिलोफ्स्की, व्हिटिग हे आर्विल्ल्या काळांतले नामनेचे कलाकार जावन गेले.

चवदाव्या आनी पंदराव्या शेंकड्यांनी पोलंडांत इगर्जेच्या संगिताचोच शेक आशिल्लो, पूण सोळाव्या शेंकड्यांत संगिताच्या मळार खूब बदल जावन त्या तेंपार क्रेको शाराची मध्य युरोपांतलें संगीत केंद्र म्हणून नामना आशिल्ली. अठराव्या शेंकड्यांत राश्ट्रीय चळवळ सुरू जाले उपरांत पोलंडी संगीतकार आपले संगीत रचणुकेंत राश्ट्रभक्तीचेर चड भर दिवपाक लागले. 'पोल्क' आनी 'पोलोनेझ' ह्या नाचप्रकारांचें मूळ पोलंडांतलेंच आसा अशें मानतात. कारॉल शिमानॉफ्स्की हो विसाव्या शेंकड्यांतल्या पयल्या अर्दांतलो नामनेचो संगीतकार आशिल्लो. सद्या हांगा साबार संगीत महोत्सव आनी आंतरराश्ट्रीय संगीत सर्ती घडोवन हाडटात.

मध्ययुगांत रंगभुंयेचें स्वरूप मुखेलपणान धर्मीक आशिल्लें. सोळाव्या शेंकड्यांत दरबारी रंगमाचयेचो जल्म जालो आनी थळावीं नाटकां रंगमाचयेर आयलीं सतराव्या आनी अठराव्या शेंकड्यांनी राजवाड्यांनी आनी गिरेस्त लोकांच्या सुवाळ्यांत परदेशी संगीतिका आनी बॅले हांचे प्रयोग जाताले. पोलंडी राजसत्ता नश्ट जाले उपरांत पोलंडी रंगमाचयेर राश्ट्रीय भास आनी राश्ट्रीय भावना रुजोवपाचो आनी जागृत दवरपाचो म्हत्वाचो वावर केलो.

**म्हत्वाचीं थळां** : वॉरसॉ हें पोलंडाचे राजधानीचें शार आसून तें प्रशासकी उद्देगीक, वेपारी, संस्कृतीक, धर्मीक तशेंच येरादारीचें म्हत्वाचें केंद्र. युरोपाच्या व्हड इतिहासीक शारांभितर हाचो आस्पाव जाता. क्रेको

हें मध्ययुगांत उबारिल्लें सोबीत शार. तशेंच प्लॉक हें सगळ्यांत पोरणे शारूय चड म्हत्वाचें.

– कों. वि. सं. मं.

**पोलियो :** मेंदू आनी मज्जारज्जूक 'पोलियो व्हायरस' ह्या रोगजंतूची लागण जावन जाल्ल्या दुखण्याक पोलियो म्हण्टात. हातापांयांक लुळेपणा हाडून अपंगूळ करपी दुखण्यांमदीं पोलियोच्या दुखण्याचो मुखेल वांटो आसा.

**इतिहास :** पुराणकाळा पसून हें दुखणें अस्तित्वांत आशिल्लें, तरी ताचें पुराय वर्णन १८४०त Heine हाणें आनी १८९० वर्सा Medin हाणें केल्लें आसा. लँडस्टायनर आनी पॉपर हाणीं १९०९ वर्सा पोलियो व्हायरसाचो सोद लायलो. १९४९ वर्सा एंडर्स व्हेलर, रॉबीन हांकां व्हायरसाची कृत्रीम पैदास करपाक जैत मेळ्ळें. तांचे हे कामगिरीखातीर तांकां नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. १९५५ वर्सा Salk हाणें पोलिओ लस सोदन काडली. १९५३-१९५७ ह्या काळांत सॅबीन (Sabin) हाणें जिव्या पूण दुर्बळ व्हायरसाची पैदास करपांत येस मेळयलें. जाचेपासून सद्या उपेगांत आशिल्ल्या तोंडांत पियेवपाक दिवपाचे लसीचो जल्म जालो. १९५७ वर्सा सॅबीन हाणें हे लसीचो माकडाचेर, स्वताचेर तशेंच घराच्यांचेर प्रयोग करून पळेलो. तेन्नाच्यान आतांमेरेन संवसारांत तीच लस पोलियोचेर रोगप्रतिबंधक म्हणून वापरांत आसा. भारतांत १९६१ वर्सा पयलीं आंध्रांत क्षेत्रपारख (Field trial) करप जाली. पोलियो हो भौशीक भलायकेचो प्रस्न जावन आशिल्ल्यान चड करून विकसनशील देशांनी संवसारीक भलायकी संस्थेन (W.H.O.) विस्तारीत संवसारीक रोग प्रतिकारात्मक कार्यावळ आंखल्या.

पोलियोचें दुखणें हें वायरस जातीच्या अतिसुक्ष्म रोगजंतूपसून जाता. पोलियोचे व्हायरस फकत मनशाचे कुडींत पोसतात. पोलियो जाल्ल्या भुरग्याक पजडावरवीं उदकांत भरसून हे रोग जंतू हेरांच्या पोटांत पावतात. रोगजंतूंक पोटांतल्यान कुडींत रीग मेळ्ळ्यार पोलियोचें दुखणें जावंक पावता. पोलियोचें दुखणें वशाचें. दुखणेकारावरवींच तें पातळटा. दुखाण्याच्या पयल्या सप्तकांत हें दुखणें पातळपाचो भंय चड आसता. पोलियो खंयचेय पिरायेचेर जावंक शकता. पूण ताचो चड शेक दोन वर्सां सकयल्या भुरग्याचेर आसता. भुरगो जसो जसो व्हड जाता तसो ताका पोलियो जावपाचो भंय उणो जाता. पोलयोची पसवण चड करून गीम आनी पावसाच्या दिसांनी जाता.

भारतांत तीन जातींच्या व्हायरसापसून (Type I, Type II, Type III) पोलियो जाल्लो दिश्टी पडटा. Type I,पोलियो व्हायरस हो ८०% - ९०% पोलियो दुखण्याक जापसालदार आसता. पोलियो वायरस सुक्या तशेंच गोठेल्या (Freezing) तापमानांत जिवे उरतात. ४° सॅ. तापमानांत व्हायरस म्हयन्याचे म्हयने जिवे उरतात. ५% लिसोल (Lysol) सारक्या जंतुनाशकांत तशेंच ५०° सॅ. तापमानांत मात व्हायरस पुरायेन नश्ट जातात. ०.३मी. ग्रॅ -०.५ मी. ग्रॅ. दर लि. क्लोरीनयुक्त उदकांत व्हायरस निश्क्रीय जातात. फॉर्मेलीन ब्लिचींग पावडर, पोटेशियम परमँगनेट पावडर, अल्ट्रा वायोलेट किरणां आदी प्रकियांनी व्हायरस निश्क्रीय जातात.

पोलियोच्या रोगजंतूची लागण पोटांतल्यान जाता. पोटांतल्यान रगतांत आनी रगतांतल्यान मज्जारज्जूक आनी मेंदवांत भोंवडी करून हो रोगजंतू कार्यशक्त पुरक मज्जापेशींचो इबाड करता. हो इबाड पुराय तरेन जातकच भूरग्याक लुळेपणाची आर (Hypotonic Paralysis) जावन अपंगूळपण येता.

दुयेंत अवस्थेंत वा पूर्वलक्षणांवस्थेंत फकत मनशाकडल्यानूच खांकेंतल्यान वा संडासांतल्यान ह्या रोगाची हेरांक लागण जावं येता. दर एका लाक्षणीक रोग्याफाटल्यान सुमार १००० भुरगीं आनी ७५ जाण्टीं पूर्वलक्षणीक अवस्थेंत आसतात. लक्षणीक अवस्थेंतूच व्हायरसाची चड करून लागण जाता. ताळ्यांत तशेंच आतड्यांनी व्हायरसाची संख्या चड वाडटा. लाक्षणीक अवस्थेपयलीं एक सप्तक आनी बरो जावन एका सप्तका मेरेन व्हायरस ताळ्यांत आसतात. चड करून २.३ सप्तकां मेरेन आनी केन्नाय ३-४ म्हयन्यांमेरेन व्हायरस संडासांतल्यान वचत रावतात.

पोलियोंत एकदम आरिचीं लक्षणां दिसनात. दुखण्याचे सुरवेक सादया जोराभाशेनूच भुरग्याक जोर येता. हो जोर चड खर आसना. हाका मोनो पोलियो म्हण्टात. जोरावांगडाच आंगपांग फोडप, फाट दुखप, हींय लक्षणां मेळटात. कोणाय भुरग्याची मान आन फाट घट जावन येता. हीं लक्षणां २ ते १० दीस मेरेन आसूं येतात हाका बीन पक्षघाती पोलियो म्हण्टात. चड वायट परिणाम जायनासतना हें दुखणें बरें जावं येता. जेन्ना पोलियोचें दुकणें बळावता तेन्ना जोराची सुरवात जातकच दोन वा तीन दिसांभितर हात-पांय फोडूंक लागतात. उपरांत दोन दिसांभितर ह्या दुखपी अवयवाक लुळेपणाची आर मारता. जोर आंगांत आसमेरेन आरीचें प्रमाण वाडत वता. ह्या काळांत भुरग्याक मारून येवंक शकता वा भुरगो सुद्दा भायर वचूं येता. हाका पक्षघाती पोलियो म्हण्टात. फूडलीं सप्तकां आरीचें प्रमाण उणें जावपाचे नदरेन खूब म्हत्वाचीं. ह्या सप्तकांत पोलियोची आर उणी जायत वता आनी लुळे जाल्ल्या अवयवांनी इल्ली इल्ली शक्त येता. स सप्तकां उपरांत उरिल्ली आर सासणाची उरता. ताका लागून आरीखातीर आदाराचीं साधनां (कुबड्यो) पोलियेचें दुखणें जातकच स सप्तकां उपरांतच दिवंक जाय. भुरग्याच्या हातांपायांकूच आर जाता अशें न्हय. एका वेळार हुस्काराच्या स्नायूंक लेगीत आर जावन भुरग्याक हुस्काराक त्रास जावंक शकता. अशें घडल्यार भुरग्याच्या जिवाक भंय आसता.

पोलियोचें दुखणें व्हायरसापसून जाल्ल्यान ताचेर खाशेले अशे वखदाचे उपाय नात. पूण दुखण्याचे सुरवेकच कांय उपाय घेतल्यार दुखणे बेगीन आटापाक येता आनी आरीचेर पडपाक पावना. आर जाल्यारय ती उण्या प्रमाणांत जाता.

सुर्वेचीं लक्षणां म्हळ्यार जोर, आंग दुखप, फाट आनी मान घट जावन येवप वा हातपांय दुखप हीं लक्षणां दिसल्यार भुरग्याक न्हिदोवन दवरपाक जाय. दुखता त्या अवयवाक हून उदकान शेक मारूंक जाय. आर जाल्ल्या अवयवाक चड हालोवंक दिवंक जायना. जोर आसमेरेन मालिशी सारके उपाय करूंक जायना. पोलियोचीं सुर्वेचीं लक्षणां हेर सादया जोराभशेन आशिल्ल्यान निदान जावंक नाशिल्ल्या जोराक इंजेसांव दिवपाक जायना. इंजेसांवान स्नायू दुखतात आनी आनी आरीचो संभव तशेंच प्रमाण वाडूंक शकना सुर्वेचीं लक्षणां दिसतकच दांत काडप, भिण्णां काडप असलेय उपाक करूंक जायनात.

जोर वतकच मालीश आनी व्यायाम आर जाल्ल्या अवयवांक दिवंक

जाय. आर जावन स सप्तकां जातकच भुरग्याक व्यायामतज्ञाक दाखोवंक जाय. ताच्या सल्ल्यान अपंगूळपण उणें करपाचीं साधनां वापरूंक जाय. पायांक कॅलिपर्स, स्पेशल बूट, खाशेल्यो सायकली वा यंत्रां असलीं साधनां सद्या उपलब्ध आसात. कांय खेपे शस्त्रक्रियेच्या आदारान हें व्यंग उणें करूं येता. हाचेभायर खाशेल्यो संस्था आसात. जंय अपंगूळांच्या शारिरीक तशेंच बुद्दीबळानुसार त्या त्या कला मळार तांकां प्रशिक्षण दिवन तांकां स्वावलंबी करतात. सरकारी तशेंच खाजगी हॉस्पिटलांत आनी भौशीक उपचारी संस्थांनी तांचेखातीर खास विभाग चालू केल्यात.

पक्षाघात पोलियोंत पोलियो पुराय बरो जावं येता. थोडी सुदारणा जावं येता वा पुराय निर्बळकाय येवं येता. स्वासेंद्रीय पक्षघाती पोलियोंत सुदारणा सवकासायेन जाता. छाती-पोटामदलो स्नायुपड्डो (Diaphragm), बरगड्यांमदले स्नायू (intercostal Muscles), पोटाचे स्नायू कांय प्रमाणांत दुर्बळ जावन पोलियो घातक थारूं येता. देखून जतनाय चड घेवंची पडटा.

मेंदू पोलियो चडशे फावटीं घातक आसता. (३% - ७% ) पोलियोंत ५-६ सप्तकांभितर अकस्मात सुदार घडून येवं येता. उपरांत दोन वर्सां मेरेन खूब मंद गतीन सुदार जायत वचूं येता. मात योग्य वेळार शास्त्रोक्त व्यायाम - उपचार पद्दत तशेंच अस्थीतज्ञाकडल्यान आधुनीक शल्य उपचार करून घेतल्यार बेगीन आनी चड प्रमाणांत सुदारणा घडूं येता.

भुरग्यांक वेळार लस दिल्यार ताका पोलियोची बादा जायना. भुरग्याक जल्मतकच सुर्वेक लस आनी वांगडाच पोलियोचो पयलो डोस पोंटांत दिवंक जाय. लस दोन प्रकारांनी उपलब्ध आसता. सॉक (Salk) आनी सॅबिन (Sabin). सॉक लसींत व्हायरस निष्क्रियावस्थेंत आसता. ही लस इंजेसावांच्या रुपांत आसता. (Oral Polio vaccine - सॅबीन ) हातूंत व्हायरस जिवे अवस्थेंत आसता. तिट्टी व्हायरसापसून तयार केल्लें हें इंजेसांव तोंडांतल्यान दिवप जाता. भारतांत तेचपरी संवसारांतल्या चडशा देशांनी हीच लस वापरतात. खरे म्हळ्यार चड प्रभावी गुणाखातीर दरेका व्हायरसाची लस वेगवेगळी दिवंची आसता. पूण लस कार्यावळ सोंपी जावंची म्हणून मिश्र लस तिट्टी (Trivelent) वापरतात. पयल्यो तीन मात्रा भुरग्याक स म्हयन्यां भितरले पिरायेचेर एक ते देड म्हयन्यांच्या अंतरान ट्रिपल लसी वांगडाच दितात. बी. सी. जी. लस तोपचेआदीं ट्रिपल दिवप चड सुरक्षीत. बी. सी. जी. लस खंयचेय एके पोलियो लसी वांगडा दिवं येता. पयली उत्तेजनार्थ (Booster dose) पोलियो मात्रा भुरग्याच्या देड-दोन वर्सां पिरायेचेर दिवंची आसता. दुसरी उत्तेजनार्थ मात्रा पांच वर्सां पिरायेचेर दिवंची आसता. भारतीय बाल संस्था (Indian Academy of Padiatrics) दवाखाना निर्धारीत कार्यावळींत पांच मात्रा जाल्यार समाजीक मोहिमेंत तीन मात्रा सुचयल्यात दर वर्सा एक हे प्रमाण आठ वर्सामेरेन लस दिवप जाता.

ताचे जंतूबादेंत (Acute Infectious) दुखणें, अतिसार, आमांश, रक्तलसिका, गांठी, तशेंच हेर अवयवांचे कर्करोग कोर्टिको स्टॅरॉयड तशेंच हेर कर्करोधक उपचार घेतल्याक ओ. पी. वी. दिवंक मेळना. अशा अवस्थांनी तोंडी लस दिल्यार घातक प्रक्रिया जावपाची चड शक्यताय आसा. ओ. पी. वी. स्थीर स्वरुपांत आशिल्ल्या कारणान ४°सॅ. तापमानांत १ वर्स मेरेन आनी भायर १ म्हयनो मेरेन मूळ गूण उणो जायनासतना बरी उरूंक शकता. पोलियो लस दिवन अर्दवरा भितर गरम उदक, गरम दूद वा हेर पेय दिवंचे न्हय. ज्या अवस्थांवेळार तोंडी पोलियो लस दिवप घातक आसता त्या वेळार इंजेक्शन रुपांतली पोलियो लस वापरूं येता.

पोलियोचो आस्पाव संवसारभर आसा. १९८० वर्सा (WHO) त १३६ देशांतल्यान ४२,००० पोलियोची नोंद जाल्ली. खूबशा विकसीत देशांनी लसीच्या कार्यावळींतल्यान पोलियो जवळजवळ पुराय नियंत्रणाखाला हाडिल्लो आसा. १९४१ वर्सा मुंबय आनी भोंवतणच्या वाठारांनी पोलियोचो पयलो वसो आयिल्लो. उपरांत वेगवेगळ्या तेंपार चडशे वशे आंध्र प्रदेश, उत्तर प्रदेश, गुजरात, महाराष्ट्र, राजस्थान, तमीळनाडू, दिल्ली, केरळ (१९८१) आयले.

पोलियो पसून पयस रावपाखातीर उदकाचो वापर नितळ आसपाक जाय. उदक शिजोवन पियेवप, वाटेवयलीं उक्ताडावयलीं खाणां खावपाचें बंद करप. अशें करीत जाल्यार पोलियोच्या रोगजंतूची लागण भुरग्याक जावंक पावना.

- डॉ. ए. जी. बोरकार
- डॉ. आनंद हळर्णकार

**पोलिस संस्था :** समाजांत शांतताय आनी सुवेवस्था राखून दवरपी, तशेंच लोकांच्या जिविताचें रक्षण करपी, समाजांतले गुन्यांव उणें करपाक वावुरपी आनी घडिल्ले गुन्यांव सोदून काडून गुन्यांवकारांक पुराव्यासयत न्यायालया मुखार हजर करपी संस्था. पोलीस हें उतर नगरराज्य आनी राज्याची परिस्थिती असो अर्थ आशिल्ल्या ग्रीसी उतरावयल्यान आयलां. १८व्या आनी १९व्या शेंकड्यांनी सुवेवस्था राखपी थळाव्या नागरीक प्रशासकांचो उल्लेख करपाखातीर 'पोलीस' ह्या उतराचो व्हड प्रमाणांत उपेग जातालो.

खूब आदल्या काळांत म्हळ्यार ज्या वेळार मनशाक समाज ह्या उतराची संकल्पना लेगीन खबर नाशिल्ली, त्या तेंपारूय गुन्यांवांक आळो घालपाखातीर दर एके व्यक्तीचेर कोणाची तरी नदर आसताली. पूण मनीस जेन्ना समाजाचो घटक जालो आनी ताका समाजाची जाणविकाय जाली, तेन्नासावन समाजांत सुवेवस्था राखून दवरपाखातीर एक खाशेली अशी संस्था अस्तित्वांत आयली.

भारतांत वैदिक काळासावन संघटीत पोलीस यंत्रणा आशिल्ली, हाचे पुरावे ऋग्वेद, बृहदारण्यकोपनिषद हातूंत तशेंच हेर पुर्विल्ल्या संस्कृत ग्रंथांनी सांपडटात. गुप्त काळांत पोलिसांक 'चाट' अशें म्हण्टाले. उपरांत प्रतिहार, पांड्य, सेन, मैत्रक आनी हेर घराण्यांतल्या राजांनीय मंत्र्याच्या दर्ज्याचे पोलीस प्रमुख नेमिल्ले. तांकां दंडिक, दंडपाशीक, चौरोद्धारणीक अशो विंगड विंगड 'संज्ञा' आशिल्ल्यो. कौटिलीय अर्थशास्त्रांत पोलीस खात्याच्या वावराविशीं वेवस्थीत म्हायती मेळटा.

पुर्विल्ल्या भारतांत आनी मध्ययुगांत लेगीत गांवगिऱ्या वाठारांनी पोलिसांचो वावर चड करून गांवचो मुखेलीच करतालो. भारताच्या वेगवेगळ्या राज्यांनी ताका ग्रामणी, ग्रामाधिपती, ग्रामापती, ग्रामकूट, ग्रामिक अशीं विंगड विंगड पदनांवां आशिल्लीं. मध्ययुगीन काळांत फौजदार, सेनाधिकारी, ठाणेदार वा कोतवाल हांचे देखरेखीखाला पोलीस संस्था वावुरताली. नागरिकांचें रक्षण, भौशीक भलायकी, बाजारांतल्यो दरो, वजन-माप हांचेर देखरेख दवरप, चोरांक धरून तांकां ख्यास्त दिवप, रस्त्यांचेर आनी धर्मशाळांचेर देखरेख दवरप, तशेंच शारांनी आनी गांवांनी

सुवेवस्था राखून दवरप हो तांचो मुखेल वावर आशिल्लो. चोरांक सोदून काडपाक अपेस आयलें जाल्यार कोतवाल, फौजदार, ठाणेदार वा पाटील हांकां नुकसान भरपाय करून दिवंची पडटाली. पुर्विल्ल्या तशेंच मध्ययुगांत जनतेच्या जिविताचें तशेंच मालमत्तेचें रक्षण करपाची आनी राज्यांत सुवेवस्था दवरपाची जापसालदारकी मुखेलपणान राजांचीच आशिल्ली. गुन्यावकारांक ख्यास्त दिवपाचोय पयलो मान राजांचोच आशिल्लो. पूण भारतांत जेन्ना ब्रिटीश राजवट आयली तेन्नासावन कायदो आनी सुवेवस्था शासनान आपल्या हातांत घेतली. ब्रिटीश कंपनीच्या सुरवेच्या तेंपार भारतांत नगरपालिकांसारकिल्यो स्वायत्त संस्था नाशिल्ल्यान सरकारान वेगवेगळ्या राज्यांनी पोलीस यंत्रणा उबारपाचे साबार यत्न केल्ले.

सर रॉबर्ट पील हाणें १८२९त इंग्लंडांत आधुनिक पोलीस संस्थेची बुन्याद घाली. उपरांत ब्रिटीश सरकारान हेच धर्तेचेर भारतांतली पोलीस यंत्रणा उबारली. ब्रिटीश संसदेन सुरवेक १८६०त आनी मुखार १९०२त स्वतंत्र पोलीस आयोग नेमून सगळ्या प्रांतांतलीं पोलीस दळां एकेच धर्तेचेर उबारलीं. भारत स्वतंत्र जाले उपरांत पोलीस यंत्रणांनी खूब सुदारणा जाल्यो. बायल-पोलीस हो स्वातंत्र्याउपरांतचो एक म्हत्वाचो बदल.

सद्या भारतीय पोलिसांक विंगड विंगड कामां वांटून दिल्लीं आसात. वाडट्या गुन्यावांक आळो घालप आनी जाल्ल्या गुन्यांवांचो तपास करप, कायदे आनी सुवेवस्था राखून दवरप, येरादारीचेर नियंत्रण दवरप, वेगवेगळ्या राजकीय पक्षांची आनी तांच्या संस्थांच्या घडामोडींची म्हायती एकठांय करप, तशेंच शेतकामती, कामगार आनी विद्यार्थी हांच्या हालचालींचेर देखरेख दवरप, धरण, पूल, अणूकेंद्र ह्या सारकिल्ल्या सुभेद्य (Vulnerable) बांदकामांचेर आनी विमानतळ, सचिवालय, शस्त्रागार ह्या सारकिल्या क्षेत्रांचेर पारो दवरप; परकी राजदूतांक आनी प्रतिष्ठीत लोकांक संरक्षण दिवप; सैमीक अवर्शणां वेळार म्हळ्यार हुंवार, भूंयकांप, उजो तशेंच रेल्वे आनी विमान अपघातांत सांपडिल्ल्या लोकांक आदार दिवप; देशाच्या शिमांचेर देखरेख दवरप; शेणिल्ल्या भुरग्यांचो वा उबारून व्हेल्ल्या भुरग्यांचो आनी बायलांचो सोद घेवप; अपघातांत सापडिल्ल्या लोकांक आदार आनी प्रथमोपचार दिवप तशेंच दुबावीत गुन्यांवकारांक धरून उपरांत गुन्यांवाचो पुराय सोद घेवपाखातीर २४ वरांमेरेन तांकां बंदखणींत दवरपाचो हक्क पोलीस खात्याक दिल्लो आसा. तेच प्रमाण दुबावीत वाठारांत वचून थंय तपास करपाचेय अधिकार पोलिसांक दिल्ले आसात. पूण विधानसभेंत आनी राज्यमंडळांत जशो सुदारणा जातात तशो पोलीस खात्याच्यो जापसालदारक्यो वाडत वतात.

पोलीस संस्था ही राज्य सरकाराच्या नियंत्रणाखाला आसून पोलीस खात्याचीं सगळी सुत्रां राज्याच्या गृहमंत्र्याकडेन आसतात. सद्या भारतांत एक हजार लोकांफाटल्यान तीन पोलीस अशें प्रमाण आसा.

दर एका पोलिसाची ताचे पात्रतायेप्रमाण वेगवेगळ्या थरांचेर विभागणी केल्ली आसून, ताका वावरूय वांटून दिल्लो आसा. ल्हान राज्याखातीर सगळ्यांत उंचेल्या पदाचेर इन्स्पेक्टर जनरल, व्हड राज्यांखातीर डायरेक्टर जनरल, उपरांत डॅप्युटी इन्स्पेक्टर जनरल, सुपरीटॅंडण्ट, पालवी सुपरीटॅंडण्ट, इन्स्पेक्टर, सब इन्स्पेक्टर, असिस्टंट सब-इन्स्पेक्टर, हेड कॉन्स्टेबल आनी निमाण्या थरांचेर कॉन्स्टेबल. कमिशनर साहाय्यक, डॅप्युटी कमिशनर आनी कमिशनर हांची नेमणूक फकत म्हानगरांनीच केल्ली आसता.

भारत सरकाराचे नदरेन पोलीस संघटना ही भारतीय शासनाचें एक इंद्रिय. जर आणिबाणीच्या वेळार पोलीस संपाचेर गेले जाल्यार भारत सरकाराक न्याय आनी वेवस्था राखून दवरपाक खूब त्रास जातले. हाका लागून भारतांत पोलिसांक पोलीस संघटना उबारपाक कायद्यान बंदी घालली आसा. सद्या फुडारिल्ल्या समाजांत वेगवेगळ्या प्रकारांचे गुन्यांव घडत आसतात. हाका लागून आयज पोलिसांक गुन्यांव तपासपाखातीर सगळ्या प्रकारांच्यो आधुनिक पद्दती हाताळच्यो पडटात. घडिल्ल्या गुन्यावांचो तपास करपाखातीर पोलीस खातें आयज सगळ्या प्रकारांचीं आधुनिक तंत्रां, आधुनिक उपकरणां आनी आधुनिक प्रयोगशाळांचो उपेग करतात. हातूंत बोटांचे छाप (fingerPrints), हस्ताक्षर जाणकार, फोटोग्राफी, स्कॅच, लाय डिटॅक्टर, कायदेशीर प्रस्नांच्या संदर्भांत वैजकी म्हायतीचो वापर (Forensic Science) तशेंच गुन्यावांची सरासरी काडपाखातीर कम्प्युटराचो वापर करतात. आधुनकि युगांत येरादारीच्या मळार खूब क्रांती जाल्यान, गुन्यांवकार रोखडेच पळून वचपाक शकतात. हाका लागून शारांतल्या पोलीस दळांक आधुनिक वाहनां दिल्यांत. ह्या वाहनांचेरूय बिनतारी संदेशवाहक यंत्रां बसयल्लीं आसतात. चोरांचो सोद घेवपाखातीर तशेंच पुरून दवरिल्ले बॉम वा धुंवळीं वखदां सोदून काडपाखातीर सुण्यांचोय उपेग करतात. पोलीस खात्यांतल्या दर एका मनशाक ताच्या पदा प्रमाण राज्यांतले थळावे पोलीस प्रशिक्षण संस्थेंत शिक्षण मेळटा. पोलीस ट्रेनिंग कॉलेज आनी नॅशनल पोलीस अकादमी हैद्राबादेक (आंध्र प्रदेश) आसा.

सिव्हील पोलिस, स्टेट रिझर्व पोलिस, सीआयडी क्रायम, सीआयडी इंटलीजन्स, इमिग्रेशन पोलीस आनी टुरिस्ट पोलीस हे राज्य सरकाराचे देखरेखीखाला वावुरतात. पूण सॅंट्रल अॅंड सबसीडिअरी इंटलिजेन्स ब्युरो, ब्युरो ऑफ क्रायम इन्वॅस्टीगेशन, सॅंट्रल रिझर्व पोलीस, बॉर्डर सॅक्युरीटी फोर्स, रिसर्च अॅंड डॅवलपमॅण्ट पोलीस, रेल्वे पोलीस ह्यो संस्था केंद्रीय सरकारच्या नियंत्रणाखाला वावुरतात. खाजगी आस्थापनांक आपलें स्वताचे पोलीस-दळ उबारपाक परवानगी दिवप सरकाराच्या विचाराधीन आसा.

ज्या पोलिसांक आपलें कर्तव्य करतना मरण आयलां, तांच्या उगडासाखातीर २१ ऑक्टोबर हो दीस पोलीस हुतात्मो दीस म्हणून पाळटात.

– आत्माराम जोग

**पोलो :** बडी आनी पेल्ल हांच्या आदारान घोड्यावयल्ल्यान खेळपाचो खेळ. हो खूब पुर्विल्लो खेळ आसून इराणांन तो पयल्या शतमानांत खेळटाले असो उल्लेख मेळटा. कवी फिरदौसीन इ. स. आदीं ६०० त इराणी आनी तुर्कमेनी लोकांमदीं जाल्ल्या एका सामन्याचें वर्णन केलां. अल-जहिजान सुमार ८६०त बरयल्ल्या एका वृत्तांत ८०० वर्सां आदल्या ह्या खेळाचें वर्णन केलां पूण सुरवातीक ह्या खेळाचें स्वरूप सद्याच्या खेळापरस वेगळें आशिल्लें. हातूंत हजारांचे संख्येन लोक वांटो घेताले. सुर्वेक ताचे स्वरूप घोडेस्वाराचे पलटणीक प्रशिक्षण दिवपी खेळ अशें आशिल्लें. कालांतरान पोलो हो इराणाचो राश्ट्रीय खेळ जालो. हो खेळ राजघराण्यांत आनी सरदारवर्गांतय खेळटाले. राजकुंवरांक ताचे खास प्रशिक्षण दिताले. बायलोय ह्या खेळांत वांटो घेताल्यो असो उल्लेख मेळटा.

इराणांत हो खेळ 'चौगान' ह्या नांवान खेळटाले.

'पोलो' हें 'पुलु' (पेल्ल) ह्या तिबेटी उतरा पसून तयार जाला आसुंये. फुडें हो खेळ इराणांतल्यान अरबस्तान, तिबेट, चीन जपान ह्या देशांनी पातळ्ळो. भारतांत मोगल जेत्यांवरवीं तेराव्या शतमानांत हो खेळ आयलो. अक्‌बर बादशाहाचे मुस्तींत (१६व्या शतमानांत) ताचे लिखीत स्वरुपांतले नेम तयार जाले. एकुणिसाव्या शतमानांत अस्तंती लोकांनी हो खेळ भारतातूच आत्मसात केलो. सुर्वेक आसामांतल्या च्याच्या मळ्यांचे ब्रिटीश धनी हो खेळ खेळटाले. ताणीं १८५९ त सिल्चराक पयलो ब्रिटीश पोलो क्लब स्थापन केलो. १८६०चे सुर्वेक 'कलकत्ता पोलो क्लब' ची स्थापन जाली. १८६९ पोलो इंग्लंडांत पावलो आनी थंय 'हॅर्लिंगहॅम क्लब' ह्या मुखेल संघटनेची लंडनांत स्थापना जाली. १८७६त जेम्स गॉर्डन बेनेट हाणें हो खेळ अमेरिकेंत व्हेलो. फुडें थंय १८८१त नामनेच्यो 'मेडो ब्रुक क्लबाची' स्थापना जाली.

ह्या खेळाक सुर्वेक खेळगड्याची संख्या आठ आशिल्ली. फुडें ती पांचांचेर पावली आनी उपरांत १८८१त अमेरिकेंत आनी १८८३ त इंगलंडांत ही संख्या ४ जाली. सद्या ह्या खेळांत चारच खेळगडी आसतात. १८९०त युनायटेड स्टेटस पोलो असोसिएशन ही संघटना निर्माण जाली. हे संस्थेन अमेरिकेंतल्या खेळाच्या नेंमांक अधिकृत रूप दिलें. अमेरिकेभायर हॅर्लिंगहॅन पोलो असोसिएशन ही संघटना ह्या खेळाचें नियंत्रण करता.

पोलो हो खेळ २७४.३२ मी. (३०० यार्ड) लांब आनी १४६.३मी. (१६० यार्ड) रूंद मैदानाचेर दरेकी चार-चार गड्यांच्या दोन संघांमदीं खेळटात. मैदानाच्या शिमांचेर २२.९ सेंमी. उंचायेच्यो फळयो लायतात. भारतांत मात पोलो मैदानाच्या शिमांचेर असल्यो फळयो लायनात. ताका लागून हांगाच्या मैदानाची रूंदाय १८२.८८ मी. (२०० यार्ड) दवरतात. गोलाचो खांबो (गोल पोस्ट) सुमार ३ मी. (१० फूट) उंच आनी ७.३ मी. (८ यार्ड) अंराचेर आसता.

पोलो खेळांत वापरपाचो पेल्ल विलो झाडाच्या मुळापसून तयार करतात. ताचें वजन १२०-१३५ ग्रॅ. आनी व्यास ८.२५ सेंमी. आसता. खेळपाची बडी वेताची आसून तिची लांबाय सुमार १.२ ते १.४ मी. आसता. हे बडयेच्या तोंकाक २२.८ सेंमी ची फटके मारपाची आडवी दांडी आसता. दुसऱ्या तोंकाक धरपाखातीर जाळयेच्या लुगडाचें फीत गुठलायतात आनी मुठींत आडखळवपाखातीर एक कातडी पटो आसता.

पोलोचे खेळ दरेकी साडेसात मिनटांच्या आठ भोंवाड्यांचे आसतात. कांयकडेन ४ वा ५ भोंवाड्यांचेय खेळ आसतात. दरेका भोंवाड्या उपरांत तीन मिनटांची आनी मदल्या काळांत पांच मिनटांची विश्रांती आसता. दरेक गोल जातकच संघ आपल्यो बाजू बदलतात. ह्या खेळाच्या चडशा सामन्यांनी समतोलसाधक पद्दतीन (हँडिकॅप सिस्टिम) खेळटात. १८८९त अमेरिकेच्या एच. एल. हर्बर्ट हाणें हे पद्दतीची सुरवात केली. हे पद्दतीप्रमाण खेळगड्यांक वेगवेगळ्यो गुणात्मक श्रेणी दिवप जाता. नव्या खेळगड्याक शुन्य (कांय कडेन उणे दोन) आनी सर्वश्रेश्ट खेळगड्याक धा गूण (हॅंडिकॅप्स) दितात. संघांतल्या चारूय खेळगड्यांच्या गुणांची सरासरी म्हळ्यार पंगडाची वट्ट गूणसंख्या (टीम हँडिकॅप). ज्या पंगडाची गूणसंख्या उणी आसता तो पंगड फाटीं उरता. ताका लागून सर्तींत समानताय हाडपाक त्या फाटीं आशिल्ल्या पंगडाक गोल करून गूण मेळोवंचे पडटात. तेखातीर एके तरेचें सुत्र लायतात. दोन पंगडांमदले गूणसंख्येतल्या फरकाक त्या सामन्यांत खेळिल्ल्या फेऱ्यांचे संख्येन गूणुन ताका आठान (कांय कडेन ६न) भागपाचें आसता. हे पद्दतीक लागून नव्या खेळगड्यांक तज्ञ खेळगड्यां वांगडा खेळपाची संद मेळटा. उकत्या आनी संवसारीक सर्तींनी ही पद्दत वापरनात.

भारतांत ह्या खेळाची आदीं राजा तशेंच संस्थानिकां मदीं खुबूच नामना आशिल्ली. त्या काळांत जयपूरच्या पोलो पंगडाक संवसारांत पयली सुवात आशिल्ली. जसवंतसिंग, जोधपूरचो प्रिथीसिंग, भोपाळचो नवाब, मेजर ॲकिन्सन तशेंच जयपूर पंगडांतलो १९३२ -३८ ह्या काळांतलो जैतवंत गडो प्रिथीसिंग, अभयसिंग, हनुतसिंग आनी जयपूरचो महाराज दुसरो सवाई मानसिंग हे भारतांतले नामनेचे पोलो गडे आशिल्ले. सद्या भारतीय सैन्यांतली घोडदळाची संख्या उणी जाल्ल्यान ह्या खेळाकूय हांगा व्हडलेशें म्हत्व उरूंक ना. १९७६त जयपूराक हतयावयल्यान पोलो खेळ जाल्लो. ताका सुमार चाळीस हजार प्रेक्षक हाजीर आशिल्ले.

पोलोचे आंतराश्ट्रीय सामने १८८६ वर्सासावन इंग्लंड आनी अमेरिका हांच्या पंगडांत 'वॅस्टचॅस्टर कपाखातीर' सुरू जाल्ले. हातूंतले तीन सामने इंग्लंडान (१८८६, १९०२, १९१४) जिखिल्ले जाल्यार सात सामने अमेरिकेन (१९०९, १९११, १९१३, १९२१, १९२४, १९२७, १९३०) जिखिल्ले. ऑलिंपिक सामन्यांनीय पालोचो आस्पाव केल्लो आनी १९००, १९०८, १९२०, १९२४ आनी १९३६ ह्या वर्सांमदीं तांच्यो सर्ती जाल्ल्यो. १९३६त 'मेडो ब्रुक क्लब' लाँग आयलंड (न्यूयॉर्क) हे सुवातेर जाल्ल्या आर्जिंटिना आड अमेरिका ह्या सामन्यांत आर्जिंटिनांत २१ जाल्यार अमेरिकेन ९ अशे ३० गोल केल्ले. हो एक संवसारीक विक्रम मानतात. टॉमस हिचकॉक (ज्युनियर), डेव्हेरुक्स मिलबर्न, स्ट्युअर्ट इगलहार्ट, लॅरी बॉटरबरि आदी अमेरिकन पोलो खेळगडे आनी सि.टी.आय. रोअर्क, लेस्ली चीप, मेजर व्हिव्हियन लॉकेट आदी इंग्लंडांतले तशेंच ल्युइस लेसी आनी मानुएल आंद्राद हे आर्जिंटिनांतले नामनेचे पोलो खेळगडे.

पोलोचे जायते प्रकार आसात. हातूंत हतयावयलो पोलो, इण्डोअर पोलो, वॉटर पोलो (पेंवप), सायकल पोलो हांचो आस्पाव जाता. हातूंत सायकल पोलोची सुरवात १९२६च्या सुमाराक बादियाचो महाराजकुमार सुभग सिंग हाणें केली. १९५५त हैदराबादेक सेनादलावतीन भारतीय सायकल पोलो सर्त आयोजीत केल्ली. १९६६त हैदराबादेक 'सायकल पोलो फॅडरेशन ऑफ इंडिया' ही संघटना स्थापन जाली. हे संघटनेंत खेळाच्या कांय नेमांनी सुदारणा केल्यो. देखीक - टॅनिस पेल्लाचो वापर. हे राश्ट्रीय संघटनेवतीन दिल्ली (१९७४, १९७७, १९७८), हैदराबाद (१९७५), जयपूर (१९७६) ह्या सुवातांचेर राश्ट्रीय सर्ती घडोवन हाडिल्ल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**पोवाडो :** एक मराठी काव्यप्रकार. तोखणाय करप असो ताचो सरळ अर्थ. हाका पवाडा अशेंय म्हण्टात. विरांच्या पराक्रमांचें, बुद्दीमत्तेचें तशेंच सामर्थ्य, गूण, कुशळटाय आनी हेर गुणांचें काव्यात्मक वर्णन वा प्रशस्ती म्हळ्यार पोवाडो असो अर्थ महाराष्ट्र शब्दकोशांत दिल्लो आसा.

खंयच्याय व्हड वा बऱ्या कामाची तोखणाय करची रीत वैदिक काळासावन चलत आयिल्ली आसा. वैदिक वाङमयांतल्यो गाथा अशोच

तोखणायेन भरिल्लो आसात. अमूक राजान इतले म्हायझ केले, इतलें दान दिलें, हांचीं कवनां म्हळ्यारूय पोवाडेच, अशें म. ना. सहस्त्रबुद्धे हाणें म्हळां. ताच्या मतान पिळग्यांच्यो पिळग्यो मौखिक पद्धतीन चलत आयिल्लीं हीं कवनां काळाफाटल्यान बदलत रावलीं. यादव काळांत तीं भाटांच्या बिरूदगायनांत प्रकट जालीं आनी तींच मुखार शिवाजीच्या काळांत भाटांचे सुवातेर आयिल्ल्या शाहिरांच्या मुखान पोवाड्यांच्या रुपान पातळ्ळीं.

अशींच तोखणायेन भरिल्लीं रासो नांवाचीं कवनां १० व्या शेंकड्यासावन हिंदी वा तत्सम भाशेंत रचिल्लीं मेळटात. पृथ्वीराज चौहान हाचो भाट चंद बरदाई हाचें पृथ्वीराज रासो हें काव्य म्हळ्यार पृथ्वीराज हाचो पोवाडोच. कांय इतिहासकारांच्या मतान राजस्थानांतल्यान कांय राजपूत कुळां महाराष्ट्रांत आयिल्लीं, तेन्ना तांच्या सांगाताक तांचे भाटूय आयिल्ले. तातूंतल्या कांय भाटांनी मुखार महाराष्ट्रांतूच राबितो केलो. ताणीं आपले भाटगिरीचो धंदो तसोच दवरलो. रासो रचून तीं गावन दाखोवन ताचेरूच ते आपलो चरितार्थ चलोवक लागले. शिवाजी आनी पेशव्यांच्या काळांतले शाहीर हे भाटूच आशिल्ले.

सुरवेच्या काळांत पोवाडे रचून ते जमिल्ल्या लोकांक म्हणून दाखोवप हें काम गोंधळी लोकांचें आसतालें. मुखार पेशवाई उपरांत तमाशावाल्यांचे स्वतंत्र पंगड निर्माण जाले. ह्या पंगडांतल्या शाहिरांनी पोवाडे आनी लावण्यो रचपाचें काम सुरू केलें. गोंधळी लोक संबळ आनी तुणतुण्याच्या तालार पोवाडे म्हण्टाले आनी शाहीर डफाचे साथीचेर ते गायताले.

पोवाड्यांची भास आनी रचणूक तशी गांवठीच आसताली. शाहीर वा गोंधळी लोक आपले गांवठी भाशेंत राजा, वीर तांच्यो लडायो, तांचे पराक्रम, तांचीं कारस्थानां आनी हेर गुणांचें वर्णन ते पोवाड्यांनी करताले.

आयज मेरेन मेळिल्ल्या पोवाड्यांची संख्या सुमार तिनशां वयर आसा. तातूंतले शिवाजीसावन शाहूमेरेनच्या काळांतले फकत सात आसात. पेशव्यांच्या काळांतले लागींलागीं देडशें पोवाडे आसात आनी उरिल्ले ब्रिटीश राज्यकर्त्यांचेर आसात. पयल्या काळखंडांत अफझलखान वध, तानाजी आनी बाजी पालसरकर अशे तिनूच पोवाडे रचिल्ले आसात. अफझलखान वधाचो पोवाडो शाहिर अज्ञानदासान रचलो आनी ताणेंच तो शिवाजीक गावन दाखयल्लो. तेखातीर शिवाजीन ताका एक घोडो आनी शेरभर भांगराचो तोडो इनाम म्हणून दिल्लो, अशें ताणेंच आपल्या पोवाड्यांत निमाणेकडेन म्हळां. ह्या काळखंडांतले शाहीर मराठेच आशिल्ले. तांची भास खणखणीत पूण रांगडी आशिल्ली.

दुसऱ्या काळखंडांत पेशवाईतल्या पोवाड्यांचो आस्पाव जाता. ताची सुरवात पानीपताच्या पोवाड्यांनी आनी अंत खडकी, अष्टीच्या झुजांच्या पोवाड्यांनी जाता. ह्या तेंपार साबार ब्राह्मण शाहिरूय उदयाक आयले. ताणीं खूबशे पोवाडे रचतना खूब संस्कृत उतरां वापरल्यांत. तांच्यो चालीय कठीण आसात.

तिसरो काळ ब्रिटिशांच्या पोवाड्यांचो. १८१८त पेशवाईचो अंत जावन महाराष्ट्राचेर ब्रिटिशांचो शेक आयलो. तांचे राजवटीच्या सुर्वेच्या कांय वर्सांनी पोवाडे रचिल्ले. तातूंत स्वराज्य गेलें म्हणून दुख्ख परगटायल्लें दिश्टी पडटा. ब्रिटीश सत्तेक थिराय आयले उपरांत तांचो छाप महाराष्ट्राचेर कसो उदेलो आनी तांचे शिस्तीचीय तोखणाय शाहिरांनी आपल्या पोवाड्यांनी केल्या. पेशव्यांच्या काळांत पोवाडे निर्मिती स्थळ पुणें आशिल्लें तें ह्या काळांत मुंबय जालें आनी पोवाड्यांतलें पेशव्यांचे स्थान ब्रिटिशांक मेळ्ळें.

शाहिरांनी पोवाड्यांतले विशय आपल्याच काळांतले मांडिल्लेचान तांचेपसून त्या तेंपावयलें मराठी समाजाचें नितळ चित्र तांच्या काव्यांनी पळोवपाक मेळटा. कांय पोवाडे म्हत्वाची राजकीय घडणूक घडलेउपरांत तांचेर आदारीत रोखडेच रचिल्ले आसात. देखून इतिहासीक म्हायतीचे नदरेन तांकां खूब म्हत्व आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**पोशणशास्त्र आनी आहाराशास्त्र :** हिंदू वैद्यकशास्त्रांत म्हळ्यार आयुर्वेदांत आहाराक खूब म्हत्व दिलां. आयुर्वेदीक उपचार पद्दतींत वखदांक आनी पथ्य – आहाराक सारकेंच म्हत्व दिलां. वैद्यकशास्त्राची बरीच म्हायती अथर्ववेदांत मेळटा. विसाव्या शतकांतलें पोशणशास्त्रांतलें म्हत्वाचें संशोधन म्हळ्यार जीवसत्वांची (Vitamines) वळख. इंग्लीश जीवशास्त्री (Biologist) F. Gowland Hopkins हाणीं केल्ल्या प्रयोगांची म्हायती १९१२त उजवाडाक आयली आनी ताणीं जांकां Accessory Substances नांव दिलें. तांकांच मागीर जीवसत्वां (Vitamins) म्हणून वळखूंक लागले. व्हिटामिनां (जीवसत्वां) हें नांव Funk ह्या शास्त्रज्ञान तांकां दिलें. ह्या जीवसत्वांची वळख करून घेवपाच्या कामाक शास्त्रज्ञ लागले आनी ताणीं तांकां रोमी वर्णमालेच्या अक्षरांचीं नांवां दिवपाक सुरवात केली. कारण तांचें मुळावण आनी रसायनीक घटकांसंबंदी (Chemical Identity) तांकां ते मेरेन खबर नाशिल्ली.

१९१८ वर्सा भारतांतल्या तमीळनाडू राज्यांतल्या कुन्नूर ह्या गांवांत सर रॉबर्ट मॅक्करीसन ह्या ब्रिटीश शास्त्रज्ञान बॅरीबॅरी ह्या रोगाचें संशोधन करपाक सुरवात केली. बॅरीबॅरी इन्कायरी युनीट (Beri - Beri Enquiry Unit) म्हणून लोक हे कार्यावळीक वळखताले. तांची प्रयोगशाळा सामकी ल्हान सुवातेंत म्हळ्यार एके कुडींत आशिल्ली. बॅरीबॅरी नांवाचो रोग तेन्ना दक्षिण हिंदुस्थानांत जायत्या लोकांक जातालो. सात वर्सां उपरांत हे कार्यावळीक (Deficiency Diseases Enquiry) म्हळ्यार 'पोशणसत्वांच्या उणावाखातीर जाल्ल्या रोगांचें संशोधन' अशें नांव दिलें. हेंच भारतांतलें वा ह्या रोगासंबदांतलें पयलें संशोधन केंद्र. डॉ. मॅक कॅरीसन हो ताची बुन्याद घालपी पयलो संचालक. ताचे उपरांत डॉ. डब्ल्यू. आर. आयक्रॉयड हो संचालक जालो आनी ताणें धा वर्सां थंय काम केलें. ताच्या जाग्यार एक वर्सभर डॉ. आर. पासमोर हो आयलो. डॉ. व्ही. एन. पटवर्धन हो हे संस्थेचो पयलो भारतीय संचालक आनी ताणें १९४६ ते १९६० मेरेन हांगा काम केलें आनी संशोधनाची व्याप्ती बरीच वाडयली. ही वाड आपणावपाक कुनूरची सुवात उणी जावंक लागली. ते खातीर १९५९ वर्सा हें कुनुरचें संशोधन केंद्र आंध्रप्रदेशाच्या हैदराबाद ह्या शारांत हालयलें. डॉ. सी. गोपालन हाची १९६१ वर्सा संचालक म्हणून नेमणूक जाली. ताणें हे संस्थेच्या संशोधन कार्याक नवी दिशा दाखयली. संशोधनाक चड खोलाय मेळची म्हणून नव्या नव्या विशयांचो ताणीं कामांत आस्पाव केलो. अशे रितीन पोशणशास्त्राच्या संशोधनाक नवो फागूर फुटलो. हे संस्थेच्या कार्याची संवसारांत नामना जाली आनी ताका लागून १९६९ वर्सा हे संस्थेक पोशण शास्त्राची राष्ट्रीय संस्था (National Institute of Nutrition) अशें नांव भारत सरकारान दिलें.

भारतांतल्या पोशणशास्त्र आनी आहारशास्त्राच्या आधुनिक शास्त्रीय संशोधनाची वळख करून घेवपाक हेच संस्थेच्या कार्याची वळख करून

घेवंक जाय.

पोशणशास्त्राची बुन्याद अठराव्या शतकाच्या शेवटाक लाआुआसियेर ह्या फ्रँच शास्त्रज्ञान घाली अशें अस्तंती शास्त्रज्ञ मानतात.

गोंय, दमण आनी दीव संघप्रदेशाच्या लोकांच्या आहाराचें एक सर्वेक्षण भारत सरकाराच्या अन्न आनी पोशण विभाग, अन्न आनी नागरी पुरवण मंत्रालयान २५ ऑक्टोबर १९८० ते ५ डिसेंबर १९८० ह्या काळांत गोंय सरकाराच्या भौशीक भलायकी खात्याच्या पोशण विभागाच्या सहकारान केलें. तातूंतल्यान अशें समजलें -

१. भारतीय आरोग्य अनुसंधान (ICMR) हाणीं भारतीयांखातीर समतोल आहार सुचयला तो मतींत घेतल्यार धान्यां (Cereals) सोडल्यार बाकिचीं सगळीं अन्नां फावो ताचेपरस तांकां उणी मेळटात.

२. प्रोटीन आनी कॅल्शियम हीं दोन पोशणमुल्यां सोडल्यार बाकिचीं सगळीं पोशणमुल्या तांकां उणी मेळटात.

३. अभ्यास केल्ल्या कुटुंबांतल्या सत्तावन टक्के कुटुंबांक उश्मांक अन्नांतल्यान उणे मेळटात आनी ते गरजेच्या फकत ९० टक्के मेळटात अशें नदरेक आयलें.

४. प्रोटीन उर्जा (Protein - Energy Malnutrition) कुपोशण, रायबोफ्लावीन उणाव, नियासीन उणाव आनी फुलओरोझीस हीं कुपोशणाचीं दुयेसां लोकांमदीं मेळ्ळीं.

५. सर्वसादारण मानान कुटुंबाचे जोडींतले ७१ टक्के अन्नाचेर खर्च जातात.

आपले लोकसंख्येक कितल्या धान्याची गरज आसा, खाणा - जेवणाच्यो खंयच्यो वस्तू कितल्या प्रमाणांत पिकोवंक जाय हाचो हिशेब करपाखातीर एका मनशाक दीसपट्टीं अन्नधान्यां आनी हेर अन्नपदार्थ कितले लागतात हें जाणा जावपाची राश्ट्रीय सरकाराक सदांच गरज आसता.

भारतांत 'भारतीय आयुर्विज्ञान संशोधन मंडळ' (ICMR) संस्थेच्या पोशणशास्त्र तज्ञांनी १९४४ वर्सा पयले फावट भारतांतल्या, पिरायेंत आयिल्ल्या मनशाक दिसाक कितलें अन्नधान्य, अन्नपदार्थ लागतात हाचो एक तक्तो सुचयलो. जशी जशी पोशणशास्त्रांत नव्या-नव्या संशोधनाची भर पडूंक लागली ते प्रमाण ह्या तक्त्यांत बदल करपाची गरज दिसपाक लागली आनी तसो तो बदलत गेलो.

आतांमेरेन जमा जाल्ल्या संशोधनाचो आस्पाव करून ICMR पोशणशास्त्र विशयाचेर विचार करपी समितीन १९६८ वर्सा दर प्रौढ Adult Man भारतीय दादल्याक हो आहाराचो तक्तो सुचयला.

**प्रौढ दादल्याचो दिसाचो समतोल आहार**

| | बसून काम करपी | | मध्यम काम करपी | | खूब कश्टांचें काम करपी | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| | शिवराक | मासाहारी | शिवराक | मासाहारी | शिवराक | मासाहारी |
| | ग्राम | ग्राम | ग्राम | ग्राम | ग्राम | ग्राम |
| धान्यां | ४०० | ४०० | ४७५ | ४७५ | ६५० | ६५० |
| कड्डणां | ७० | ७५ | ८० | ६५ | ८० | ६५ |
| पालेभाजी | १०० | १०० | १२५ | १२५ | १२५ | १२५ |
| हेर भाजी | ७५ | ७५ | ७५ | ७५ | १०० | १०० |
| मुळे भाजी | ७५ | ७५ | १०० | १०० | १०० | १०० |
| फळां | ३० | ३० | ३० | ३० | ३० | ३० |
| दूद | २०० | १०० | २०० | १०० | २०० | १०० |
| तेलां, तुपां | ३५ | ४० | ४० | ४० | ५० | ५० |
| मास, नुस्तें | - | ३० | - | ३० | - | ३० |
| तांतयां | - | ३० | - | ३० | - | ३० |
| साकर, गोड | ३० | ३० | ४० | ४० | ५५ | ५५ |
| भिकणां | - | - | - | - | ५०* | ५०* |

* भिकणासुवातेर आनीक ३० ग्राम तेल वा तूप दिल्यार जाता.

**प्रौढ बायलांचो दिसाचो समतोल आहार**

| | बसून काम करपी | | मध्यम काम करपी | | खूब कश्टांचें काम करपी | | चड प्रमाणांत ' | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | शिवराक | मासहारी | शिवराक | मासहारी | शिवराक | मासहारी | शिवराक | मासाहारी |
| | ग्राम | ग्राम | ग्राम | ग्राम | ग्राम | ग्राम | ग्राम | ग्राम |
| धान्यां | ३०० | ३०० | ३५० | ३५० | ४७५ | ४७५ | ५० | १०० |
| कड्डणां | ६० | ४५ | ७० | ५५ | ७० | ५५ | - | १० |
| पालेभाजी | १२५ | १२५ | १२५ | १२५ | १२५ | १२५ | २५ | २५ |
| हेर भाजी | ७५ | ७५ | ७५ | ७५ | १०० | १०० | - | - |
| मुळे भाजी | ५० | ५० | ७५ | ७५ | १०० | १०० | - | - |
| फळां | ३० | ३० | ३० | ३० | ३० | ३० | - | - |
| दूद | २०० | १०० | २०० | १०० | २०० | १०० | १२५ | १२५ |
| तेलां, तुपां | ३० | ३५ | ३५ | ४० | ४० | ४५ | - | १५ |
| मास, नुस्तें | ३० | ३० | ३० | ३० | ४० | ४० | १० | २० |
| तांतयां | - | ३० | - | ३० | - | ३० | - | - |
| साकर, गोड | - | ३० | - | ३० | - | ३० | - | - |
| भिकणां | - | - | - | - | ४०* | ४०* | - | - |

* भिकणासुवातेर आनीक २५ ग्राम तेल वा तूप दिल्यार जाता.

- डॉ. नारायण धुमे

**पोळा :** बैलांचे पुजेची एक परब. ही परब महाराष्ट्रांत आनी कर्नाटकांत व्हड दबाज्यान मनयतात. ही परब म्हळ्यार बैलांची पुजा करप, म्हणून शेतकार समाजांत ह्या सणाक चड म्हत्व आसा. हाका बेंदूर वा बेंडर अशेंय म्हण्टात. प्रदेशाप्रमाण आषाढ, श्रावण वा भाद्रपद म्हयन्यांतले उमाशे दिसा ही परब मनयतात.

पेरणी जातकच शेताच्या कामांतल्यान बैल बेकार जाले म्हण्टकच एक दीस तांकां न्हाणोवन धुवन बरे सजयतात. उपरांत आरती ओंवाळून पोळ्यांचो निवेद्य दाखयतात आनी दनपारां वाजयत - गाजयत गांवांतल्यान तांची मिरवणूक काडटात. कांयकडेन ह्या दिसा बैलांच्यो सर्तीय लायतात. घरांत बैल नासल्यार कांय लोक मातयेचे बैल करून तांची पूजा करतात. ह्या दिसा शेतकामती लोक बैलाकडल्यान कसलेंच काम करून घेनात. ह्या दिसा बैलांक दैवत मानून तांची वर्सांतल्यान एक दीस पूजा करून शेतकामती लोक बैलांविशीं आपले पुज्यभाव उक्तायतात. हे परबेन धनधान्याची आनी गोधनाची समृद्धी जाता अशी समजूत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**पौष :** हिंदू कालगणनेप्रमाण धावो म्हयनो. ह्या म्हयन्याचे पुनवेच्या सुमाराक चंद्र पुष्य नक्षत्रांत आसता. देखून ह्या म्हयन्याक पौष म्हण्टात. ह्या म्हयन्याचें वैदिक नांव तैष आसून ताका सहस्य अशेंय म्हण्टात. हेमंत ऋतुंतलो हो दुसरो म्हयनो. ह्या म्हयन्यांत मकरसंक्रांत सोडून हेर खंयचीच परब जायना. देखून हाका भाकड म्हयनो म्हणपाची चाल आसा. पौष शुद्ध अश्टम ते पुनवेमेरेन शाकंभरी देवीचो महोत्सव नवरात्रेसारको आसता. पौष पुनवेक माघ म्हयनो सुरू जाता म्हणून ह्या दिसा सावन माघस्नान सुरू करतात. ह्या म्हयन्यांत लग्नासारकीं मंगलकार्यां करिनात. पौषांतले उमासेक केन्ना केन्ना अर्धोदय वा महोदय पर्व आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रकृती :** सांख्य दर्शनांतलें एक तत्त्व. हिचें लक्षण अशें 'सत्त्वरजस्तमोगुणानां साम्यावस्था' = सत्त्व, रज आनी तम ह्या तीन गुणांची साम्यावस्था म्हळ्यारूच प्रकृती. प्रकृतीक अव्यक्त आनी प्रधान अशींय नांवां आसात. सांख्यांच्या मतान प्रकृती ही पुराय स्थूल आनी सुक्ष्म अशा वावराचें कारण. ती अतिसुक्ष्म आशिल्ल्यान परोक्ष आसा. प्रकृतीकडेन सत्त्व, रज, आनी तम हे तीन गूण आशिल्ल्यान संवसारांतल्या सगळ्या पदार्थांनीय हे गूण दिसतात. प्रकृती ही नित्य, व्यापक, जड आनी स्वतंत्र आसा. ती सगूण साकार आसून दरेका खिणाक नवीं नवीं रुपां धारण करता. तिका नांदाची टांकसाळ आनी सगळ्या चमत्काराचें कुळार मानतात. ती एक अजापीत आनी मोह घालपी शक्ती अशें ज्ञानेश्वरान तिचें वर्णन केलां.

मूलभूत याग वा होम. दशपूर्णमास, पशूबंध आनी अग्निश्टोम अशे तीन याग श्रौतयागाचे प्रकृतीभूत याग मानल्यात. तेचपरी स्थालीपाक ही एक प्रकृतीच.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रचार :** लोकमत जागृत करपाचो वा बदलपाचो पद्दतशीर प्रयत्न. आपणाक जाय तशें लोकमत निर्माण करपाचो प्रचारकाचो उद्देश आशिल्ल्यान प्रचाराक अपेक्षित आशिल्ली जागृताय वा बदल विधायक आसतलोच म्हणूंक जावंचेंना आनी हाका लागून प्रचार आनी शिक्षण हांचेमदीं फरक उरता. शिक्षणाक विशयाच्या संदर्भांतल्यो बऱ्यो-वायट, खऱ्यो-फट अशा सगळ्याच गजालींचें गिन्यान दिवप जाता, जाल्यार प्रचारांत प्रचाराच्या उद्दिश्टाक पुरक अशाच गजालींचें गिन्यान दिवप जाता.

सादारणपणान खंयचेय गजालीचें अवास्तव म्हत्व पटोवपाच्या यत्नांक प्रचार ह्या सवाय अर्थान संबोदीत करप जाता, अशें आसलें तरी कांय खेपे बरे गजालीची वळख करून दिवपा वेळार लेगीत प्रचाराचो आदार घेवंचो पडटा.

मानसशास्त्र हें प्रचाराचें एक गरजेचें शास्त्र. लोकमत निर्माण करपाच्या वावरांत खंयचें तंत्र आपणावंचें, खंयच्या आयुधांचो वापर करचो, खंयच्या माध्यमांचो आदार घेवंचो हेसंबंदी मानसशास्त्र मार्गदर्शन करता.

आर्विल्ल्या काळांत, प्रचाराचीं आधुनिक अशीं माध्यमां उपलब्ध आसात. पत्रकां, वण्टीपत्रां, जायराती, खबरांपत्रां, मासिकां सारकिलीं लिखीत बरपावळ तशेंच रेडिओ-चलचित्र, सभा, निदर्शनां सारकिल्या दृकश्राव्य माध्यमांचोय उपेग करतात.

प्रचारकार्य हें शेंकड्यांनी वर्सां पयलीं सावन सुरू आसा. पूण १६२२ वर्सा रोमन कॅथलिक पंथान नेमणूक केल्ल्या धर्मप्रसारक स्थायी समितीचें (द काँग्रिगेशन फॉर प्रॉपगेशन ऑफ द फेथ) नांव आनी कार्य हांचेवयल्यान 'प्रॉपगॅंडा' म्हळ्यार प्रचार ही संज्ञा पयलीं वापरांत आयली. प्राचीन संस्कृतींच्या अवशेशांवयल्यान राजा आनी धर्मगुरू हाणीं लोकांक भुलोवपी भेस, पुतळे, देवळां, राजवाडे कायदेशीर आनी धर्मीक युक्तीवाद हांचो उपेग करून स्वताचें व्हडपण आनी दैवी स्वरूप समाजाक दाखोवपाचे केल्ले यत्न हजारांनी वर्सांसावन दिश्टी पडटात. विशिश्ट समाजीक-धर्मीक पंथांक लोकाश्रय मेळचो म्हणून आख्यायिका, दृश्टांतकथा, म्हणी हांचो प्रचार करप जालो.

क्रिस्तापयलीं ५००च्या अदमासाक अॅथेन्स शारांत अलंकारशास्त्र ह्या सदराखाला वक्तृत्व कलेचो आनी प्रचारतंत्राचो पद्दतशीर अभ्यास सुरु जालो. आयसॉक्राटीझ, प्लेटो आनी अॅरिस्टॉटल हाणीं आनी तांच्या अनुयायांनी ह्या प्रचार शास्त्रांतल्या नेमांचें संकलन केलें. आपूण लोकांच्या हिताचेंच सत्य सांगता, आपलो हेत बरो आसा हें वक्त्यान आयकुप्यांक कशें पटोवन दिवप हे विशींय अभ्यास केलो. बुद्ध, कन्फ्युशस हाणींय प्लेटोभाशेन सत्यकथन, प्रभावी वक्तृत्व आनी योग्य भाशण, लिखाण हांच्या आदारान लोकांक सन्मार्गाचें अशें दर्शन घडोवन हाचें समर्थन केलां.

कौटिल्यान बरयल्ल्या अर्थशास्त्र ह्या ग्रंथांत मानसशास्त्रीय युद्धपद्दतीचो आनी मुत्सद्देगिरीचो उल्लेख मेळटा तशेंच तातूंत प्रचारकार्य कशें करप हेविशींचेंय मार्गदर्शन मेळटा. स्वुन् ज ह्या चीनी लेखकान युद्धकलेवयल्या आपल्या ग्रंथांत अशेच तरेचो उपदेश केला.

सोळाव्या शेंकड्यांत इटलींत मैकिआवॅलीन, कौटिल्य आनी स्वुन् ज हांचेभाशेनूच शांतताय काळांत आनी झुजांत धर्मशीलताय आनी दोट्टी धोरण हांच्या प्रचाराखातीर जावपी उपेगाविशीं उल्लेख केला. शेक्सपिअरच्या नाटकांनीय प्रचारतंत्राचो वापर केल्लो दिसता.

ब्रिटनांत उद्देगीक क्रांती जातकच व्हड प्रमाणाचेर उत्पादन करपी कारखाने सुरू जाले तेन्ना उत्पादन वाडोवपाखातीर ताका प्रचारतंत्राचो वापर करचो पडलो. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक गिरायकां कडल्यान मेळपी तशेंच जायरातींक आनी विंगड विंगड विक्रयतंत्रांक मेळपी प्रतिसादाचो अभ्यास करपाक संशोधकांनी सुरवात केली. वेपार, राजकारण आनी समाजकारण ह्या क्षेत्रांनी अडाणी लोकां भितर गृहीतकल्पना, आख्यायिका, अर्दसत्य हांच्या आदारान प्रचारक दिशाभूल करतात हाची ल्हवल्हव करून विचारवंतांक जाणविकाय जावंक लागली आनी ताणीं प्रचाराचो खोलायेन अभ्यास केलो.

फ्रॉयड सिग्मंड, वॉल्टर लिपमन, हॅरल्ड डी लसवॅल ह्या अभ्यासकांनी प्रचारविशींच्या तत्त्वांची विस्कटावणी केली. तेन्ना प्रचार हें एक तंत्र वा कला उरनासतना एक शास्त्र जालें आनी ताचेर व्हड प्रमाणाचेर ग्रंथनिर्मिती जावपाक लागली.

प्रचाराचो चडसो उपेग आपली बाजू घट करपाक केल्लो दिश्टी पडटा. तो प्रचार उपरांत कसलोय आसूं, राजकीय वा वेपारी वा धर्मीक. दरेका प्रचारांतल्यान बऱ्याच प्रमाणांत पक्षपातीपण जाता जाल्ल्यान अशा प्रचारावरवीं लोकांची दिशाभूल जावपाचो संभव उरता. एक तत्त्व मांडपाच्या प्रचाराआड विरोधी तत्त्वाचो प्रचार करपाची सवलत आसली तरी प्रचाराचो

गैरवापर जावंचो न्हंय म्हणून दरेका प्रचाराचेर नियंत्रण दवरपाची गरज आसा. शासनाचे वतीन कांय प्रमाणांत अशें नियंत्रण दवरपाची वेवस्था जाल्या. तरीय प्रचाराचीं माध्यमां खूब आशिल्ल्यान तशेंच तांचें स्वरूप मूर्त अमूर्त, उक्तें-गुपीत आशिल्ल्यान पुरायपणान तांचेर नियंत्रण दवरप शक्य जायना.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रजापती :** एक वैदिक देवता. ऋगवेदांत हें उतर स फावटीं आयला. धाव्या मंडलांत १२१व्या सुक्तांत ताचो उल्लेख आयला. प्रजापती हो सृश्टी - स्थितीकर्तो आसून तो एक देव आसा अशी कल्पना त्या सुक्तांत मांडल्या. भूंय, सर्ग आनी पाताळ ह्या तिनूय थळांची देवता प्रजापती अशें कात्यायनान सांगलां. मनूचेंय मत तेंच. हाचेवयल्यान प्रजापती हीच सगळ्यांत श्रेश्ठ देवता आसून, हेर देवतांचो आस्पाव प्रजापतींतूच जाता, अशें वैदिक लोकांचें मत आशिल्ल्याचें कळटा.

वाजसनेयी माध्यंदिन संहितेच्या ३२ व्या अध्यायांत प्रजापतीपयलीं कांयच उत्पन्न जावंक नाशिल्लें आनी प्रजापती होच पयलो आनी परब्रह्म आसा अशें म्हळां. ते संहितेंत प्रजापतीच्या मुखांतल्यान ब्राह्मण आनी अग्नी, बावल्यांतल्यान क्षत्रिय आनी इंद्र, धडांतल्यान वैश्य आनी विश्वदेव आनी पांयांतल्यान शुद्र निर्माण जाले, अशें सांगलां. हाचेवयल्यान प्रजापती हो विश्वाचोच न्हय जाल्यार विश्ववेवस्थेचोय कर्तो आशिल्ल्याचें वैदिक लोक मानताले अशें कळटा.

पुराणांत साबार प्रजापती आशिल्ले अशें सांगलां. सात, तेरा, चवदा, एकवीस असो तांचो विंगड विंगड आंकडो वेगळ्या वेगळ्या पुराणांनी मेळटा. कर्दम, कश्यप, मरीची, अत्री, ऋतू, दक्ष, भृगू आनी हेर व्यक्तींक पुराणांनी प्रजापती म्हळां. कांय कडेन सुरवेक प्रजापतीक मुळावो ईश्वर मानिल्लो आसून, सृश्टकर्त्या ऋषींक प्रजापती अशीं नांवां दिल्यांत. दरेका कल्पांत हे प्रजापती सृश्ट निर्माण करतात.

वैदिक वाङमयांतलो हो प्रजापती मुखार पुराणवाङमयांत ब्रह्मा वा ब्रह्मदेव ह्या नांवान प्रसिद्ध जालो.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रजासत्ताक :** प्रजेच्या तंत्रान चलता तें राज्य. ज्या राज्यांत लोकांखातीर, ताणीं वेंचून दिल्ल्या प्रतिनिधींकडल्यान सत्तेचो वापर जाता ताका प्रजासत्ताक म्हण्टात. हे व्याख्येप्रमाण, लोकशाही राज्यपद्धतींत लोक प्रत्यक्षरितीन राज्य करतात, पूण प्रजासत्ताकांत ते अप्रत्यक्षपणान शासन चलयतात. ज्या राज्यांत समानता नांदता, कायद्यांमुखार सगळे मनीस समान आसतात, उच्च-निच, जाती-पातीचो भेदभाव नासता तें प्रजासत्ताक. सादारणपणान हालींच्या तेंपार हीच व्याख्या प्रचलीत आसा.

जुलमी राजसत्तेक विरोध करचेखातीर म्हणून ही संज्ञा सुरवेक प्रचारांत आयली. ग्रीक तत्त्ववेत्तो ॲरिस्टॉटल हाणें राजेशाय, सरदारशाय आनी लोकशाय अशें राज्याचें वर्गीकरण केल्लें. लोकशाय सत्तेचो उपेग लोकहिताखातीर जावचो आनी नागरिकांनीय आपूण जावन राज्यकारभारांत वांटो घेवचो अशी ताची अपेक्षा आशिल्ली. प्राचिन ग्रीसांत अथेन्स सारकिल्ल्या नगर राज्यांनी शासनवेवस्था लोकसत्ताक पद्धतिची आशिल्ली अशें सांगतात. राज्यांतले म्हत्वाचे अशे सगळे निर्णय नागरिकांच्या सभेंत घेताले. तेच प्रमाण हे निर्णय उपेगांत हाडपी समिती आनी राज्याचे अधिकारी लोकूच वेंचून काडटाले. न्यायनिवाडो लेगीत सगळे प्रौढ नागरीक एकठांय येवन करताले. ऑगस्टस हाच्या साम्राज्याची थापणूक जावचे पयलीं प्राचीन रोमांतूय लोकसत्ताक राज्यपद्धती चालंत आशिल्ली. आदीम भारतांत लिच्छवी, मल्ल, यौधेय, अर्जुनायन आनी हेरकडेन प्रजासत्ताक पद्धत अस्तित्वांत आशिल्ली. अलेक्झांडरान भारताचेर घुरी घातिल्ली तेन्नाय भारतांत प्रजासत्ताक राज्यां आशिल्लीं. इ. स. पयलीं ग्रीसांत अथेन्स आनी स्पार्टा हांगा, जाल्यार इ.स. सुरवातेक रोमांत आनी मध्ययुगांत इटलींत प्रजासत्ताक राज्यां अस्तित्वांत आशिल्लीं.

प्रजासत्ताक हो राज्यप्रकार अस्तित्वांत हाडपाक वा चालंत दवरपाक खूब कठिण. तेखातीर प्रदेशांतल्या लोकांमदीं प्रजासत्ताकाविशीं म्हत्व, ओड, एकवट आनी शिस्त आसप भोव गरजेचें. भारताचेर जेन्ना परकियांनी घुरयो घाल्यो तेन्ना वायव्येक आशिल्ली प्रजासत्ताकां तांकां भारतांतल्यान धावंडावन घालपाक अपेशी थारलीं. हाका लागून उपरांत लोकांनी राजेशाहीक तेंको दिलो अशें म्हण्टात. कौटिल्ल्यान आपल्या 'अर्थशास्त्रांत' राजेशाहीक चड म्हत्व दिलां.

ताच्या मताप्रमाण प्रजासत्ताक पद्धतींत सगळ्यांक समान हक्क आशिल्ल्यान तें आपल्या भितल्ल्या वादविवादान पोखरून वतात. अशे परिस्थितींत परकीय आक्रमणांवेळार तें आपल्या नागरिकांचे संरक्षण करपाक अपेशी थारता. अडचणी वेळार नागरिकांनी राजाक आदार करप हें तांचें कर्तव्य. हाका लागून राजसत्ता बळिश्ठ जाता अशेंय तातूंत मुखार म्हळां.

पुर्विल्ल्या काळांतली मागाशिल्ली येरादारी वेवस्था हाका लागुनूय प्रजासत्ताकांक देंवती कळा लागली अशें कांय इतिहासकारांचें मत. विंगड विंगड प्रदेशांनी वा वाठारांनी रावपी लोकांभितर एकचार हाडपाक प्रजासत्ताकांक यश मेळ्ळेंना. तशेंच भारतांत बुद्ध धर्माक देंवती कळा लागल्या उपरांत बुद्ध धर्मियांच्या प्रदेशांत अस्तित्वांत आशिल्ल्या प्रजासत्ताकांचो हिंदू राजांनी नाश केलो अशें म्हण्टात. युरोपांत क्रिस्तांव धर्म फांकोवपाचे नदरेन चर्चीच्या आदारान राजेशाही बळिश्ठ जाली. पूण उपरांत राजेशाही चर्चीसावन वेगळी जावन स्वतंत्रपणान आपलो शेक गाजोवपाक लागली. पूण राजेशाहीच्या वाडट्या अत्याचारांक आनी भ्रश्टाचारांक लागून तांकां चोशींकडल्यान विरोध जावपाक लागलो. १७८९त फ्रांसांत राज्यक्रांती जावन थंयची राजेशाही मोडून उडयली आनी राश्ट्रीय प्रजासत्ताकाची घोशणा केली. उपरांत फ्रेंच राज्यक्रांतीची देख घेवन हेर कांय युरोपी देशांनीय राजेशाहीक विरोध करून प्रजासत्ताक राज्यां उबारलीं.

आर्विल्या काळांत, १७७६त अमेरिकेंत ब्रिटीश साम्राज्यशाही विरोध राज्यक्रांती जावन, युनायटेड स्टेट्स ऑफ अमेरिका ह्या व्हड प्रजासत्ताकाची स्थापणूक केली. विसाव्या शेंकड्यांत पयल्या म्हाझुजाउपरांत युरोपांत आनी हेर खंडांतल्या साबार देशांनी राजेशायचे सुवातीर प्रजासत्ताकांची स्थापणूक केली. ह्या प्रजासत्ताक राज्यघटकांचे आनी शासनपद्धतीचे विंगड विंगड प्रकार आसात. मध्य आनी दक्षिण अमेरिकेंतलीं कांय प्रजासत्ताक राज्यां हुकूमशाय स्वरुपाचीं आसात. जाल्यार ब्रिटन आनी हॉलंडांत राजेशाही-लोकशाय स्वरूपाचीं आसून मनीस स्वातंत्र्याक थंय खूब म्हत्व आसा. अमेरिका आनी रशिया हीं दोनूय प्रजासत्ताक राश्ट्रां आसात. पूण अमेरिका मनीस स्वातंत्र्यधिश्ठित दोन पक्षीय

उदारमतवादी लोकशाय स्वरूपाचें, जाल्यार रशिया (आदलें संघराज्य) एकाधिकारशाहीवादी एकपक्षीय आनी साम्यवादी स्वरूपाचें. अस्तंत आशियातले इराण आनी इराक हे दोनूय देश आपल्याक प्रजासत्ताक राज्यां म्हण्टात. पूण इराण कट्टर धर्मवादी आसा. लिबीया आनी केनिया हे आफ्रिका खंडांतले दोनूय प्रजासत्ताक देश. पूण लिबियाच्या अध्यक्षाची वागणूक राजा सारकी आसता, जाल्यार केनियाचो अध्यक्ष पक्षाचो पाईक कार्यकर्तो आसा.

१५ ऑगस्ट १९४७ दिसा ब्रिटिशांची राजवट सोंपल्या उपरांत हिंदुस्थानाची फाळणी जावन ताचे भारत आनी पाकिस्तान अशे दोन देश निर्माण जाले. उपरांत स्वतंत्र भारताचे राज्यघटनेन सार्वभौम समाजवादी धर्मनिरपेक्ष लोकशाय प्रजासत्ताक निर्माण केलें. २६ जानेवारी १९४९ दिसा राज्यघटना तयार जाल्ली तेन्ना हें गणराज्य सार्वभौम आनी लोकशाय ह्या दोनूच विशेशणांनी निश्चित जाल्लें. पूण राज्यघटनेच्या बेचाळीसाव्या दुरूस्तीन (३ जानेवारी १९७७) ह्या प्रजासत्ताकाक 'समाजवादी' आनी 'धर्मनिरपेक्ष' हीं आनीक दोन विशेशणां लायलीं.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रतापसिंह :** (जल्म: इ. स. १७६४).

एक भक्तकवी. हो जयपूरचो राजा आशिल्लो. महाराजा माधौसिंह हें ताच्या बापायचें नांव. पिरायेच्या १४व्या वर्सा तो गादयेर आयलो. तो स्वता गिन्यानाचो आनी ललीतकलांचो मोगी आशिल्लो देखुनूच ताणें जगन्नाथभट, आनंदघन, केशवराय, रसराज आनी व्हड कवींक आपल्या दरबारांत आलाशिरो दिल्लो. कांय चारण आनी मुसलमान शाहिरूय ताचेकडेन आशिल्ले. तांचे कडल्यान ताणें ऐन-ई-अकबरी, दीवाने हाफीज आदी फार्सी ग्रंथांचो हिंदी अणकार करून घेतिल्लो. तेचपरी प्रतापवीर हजारा आनी प्रतापसिंह हजारा हे ग्रंथूय ताणें तयार करून घेतले. कवी पद्माकरान ह्या प्रतापसिंहाची तोखणाय करपी प्रतापसिंह बिरुदावली हो ग्रंथ रचलो.

प्रतापसिंह स्वता एक बरो कवी आशिल्लो आनी तो आपलीं काव्यां चड करून ब्रजभाशेंत बरयतालो. ब्रजनिधी ह्या टोपण नांवान तो आपलीं कवनां रचतालो. दर दिसा पांच छंद रचपाचे असो ताचो नेम आशिल्लो. पिरायेच्या १२-१३व्या वर्सासावन ताणें कविता बरोवंक सुरवात केली. ताच्यो कांय कविता ढूंढासी भाशेंत आनी कांय खडी बोलींत आसात. प्रेमप्रकाश, फागरंग, प्रीतिलता, सुहागरैनी, ब्रजशृंगार, सनेह बहार, रास का रेखता, रमक जमक बत्तीसी, रंगचौपड आदी २३ कवितांझेले ताणें बरयल्यात. ताणें भर्तृहरीच्या शतकत्रयाचोय अणकार केला. संस्कृत, उर्दू, पंजाबी आनी फार्सी भाशांचेंय गिन्यान ताका आशिल्लें. ब्रजनिधी ग्रंथावली ह्या नांवान ताचे ग्रंथ उजवाडाक आयल्यात.

प्रतापसिंह हो कृष्णोपासक कवी आशिल्लो. श्रीकृष्णाच्या वेगवेगळ्या लिलांचीं ताणें सोबीत वर्णनां केल्लीं आसात. तो आपलें आराध्य दैवत गोविंदजी हाका जयपूरचो स्वामी मानून स्वताक ताचो दिवाण मानतालो. आपले इश्ट देवतेची तुस्त करतना तो मीरेवरी भावविवश जातालो. केन्नाकेन्नाय बायलांचो भेस करून आनी पांयांत घागऱ्यो बांदून गायत नाचतालो. ताच्या कांय पदांची अजुनूय नामना आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रतीक नाटक :** संस्कृत साहित्यांतलो नाटकाचो एक प्रकार. ह्या नाटकांत श्रद्धा, भक्ती ह्या सारक्या अमूर्त भावांक नाटकी पात्रांचें रूप दिल्लें आसता. कांय नाटकांनी फकत अमूर्त भावूच मूर्त केल्ले आसतात. जाल्यार कांय नाटकांनी मूर्त - अमूर्त कल्पनांचे भरसणीन पात्रां निर्माण केल्लीं आसतात.

ह्या नाटकांचो नेमको उगम मेळना. मध्य आशियांत बौद्ध नाटकांचे कांय तृटित अंश मेळ्ळ्यात. तातूंत एका प्रतीक नाटकाचोय कांय भाग आसा. अश्वघोषाचें शारिपुत्र प्रकरण हो प्रतीक नाटकाचोच एक प्रकार. हातूंत बुद्धी, कीर्त, धृती ह्यो अमूर्त कल्पना रूपां घेवन येतात आनी एकामेकांमदीं खबरो करतात. उपरांतच्या काळांत प्रतीक नाटकाची ही परंपरा बंद जाली. फुडें इ. स. च्या इकराव्या शतमानाच्या निमाणें कृष्णमिश्र हाणें नाटकाचो पुर्नजल्म घडयलो. मोह, विवेक, गर्व, गिन्यान, श्रद्धा आनी बुद्धी हीं ह्या नाटकांतलीं पात्रां. ह्या नाटकांत आध्यात्मविद्येचो उपदेश नाटकी रुपांत केल्लो आसून तातूंत वेदान्त आनी भक्ती हांचो सुंदर मेळ घडोवन हाडला. उपरांतच्या काळांत जायत्या नाटककारांनी सोबीत-सुंदर प्रतीक नाटकां बरयलीं. जैन कवींनी आपल्या धर्माच्या प्रचाराखातीर कृष्णमिश्राच्या प्रतीक नाटकावरीच नाटकां बरयलीं. कवी यशपाल हाचें मोहराजपराजय ह्या नाटकाची जैन साहित्यांत नामना आसा. हातूंत कल्पित आनी वास्तव पात्रांचो परस्पर मेळ घडोवन धर्माविशीं भासाभास केल्ली आसा. महावीराच्या उत्सवा वेळार ह्या नाटकाचो प्रयोग केल्लो.

इ. स. च्या तेराव्या शतमानांत विशिश्टाद्वैतमताचो एक आचार्य वेदान्तदेशिक हाणें संकल्पसूर्योदय नांवाचें प्रतीक नाटक बरयलें. हातूंत ताणें शांत रस हो कसो व्हड तें सांगून मोहाची हार आनी विवेकाचो जल्म कसो जाता तें दाखोवन दिलां. सोळाव्या शतमानांत परमानन्द हाणें चैतन्यचंद्रोदय नांवाचें नाटक बरयलें. चैतन्य महाप्रभूचें चरित्र हो ह्या नाटकाचो मुखेल विशय. ह्या नाटकांत भक्ती, विराग, कली, अधर्म आदी अमूर्त पात्रांवांगडाच चैतन्य आनी ताचे शिश्य हीं मूर्त पात्रांय उबीं केल्यांत. आनंदराय नावांच्या एका दाक्षिणात्य पंडितान १८व्या शतमानांत विद्यापरिणयन आनी जीवानन्दन अशीं दोन नाटकां बरयलीं. विद्यापरिणयन नाटकांत शिवभक्ती केल्यार मोक्षप्राप्ती कशी जाता तें सांगलां. हातूंत जैनमत, सोमसिद्धान्त, चार्वाक, सौगत आदी पात्रां आसात. जीवानन्दन ह्या सात अंकी नाटकांत गालगुटां, पांडुरोग, मद, कुश्ठ, गुल्म, कर्णमूळ आदी रोगांक पात्रांरुपान चितारल्यांत. हिंदी भाशेंतूय अशीं कांय प्रतीक नाटकां निर्माण जाल्लीं आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रतीकृती :** खंयचोय मूर्त वा अमूर्त वस्तूचें आकारमान दाखोवपी सदळ अशें रेखाटन म्हळ्यार ते वस्तूची प्रतीकृती (Model) अशें म्हण्टात. मूळ वस्तूचो वस्तुनिश्ठ अभ्यास करप जेन्ना शक्य नासता, तेन्ना ते वस्तूची प्रतीकृती प्रतीरुपांत मांडून दाखोवंची पडटा, जेवरवीं मूळ वस्तूची थोडेभितर वळख जावंक पावता; तशेंच कसलीय नवी वस्तू निर्माण करपाची आसता, तेन्ना तिका कल्पनेंतलो आकार दिवपाखातीर ते नवे जल्माक येवपी वस्तूची प्रतीकृती करची पडटा. देखीक - नवें यंत्र वा विमान, इमारत, तारूं, रेल्वे इंजीन ह्या मूर्त वस्तूंच्यो प्रतिकृती तयार

करतात. जैन प्रणाली (देखीक - रक्ताभिसरण संस्था) समाजीक वा अर्थीक प्रणाली (देखीक - अर्थमितीय प्रतीकृती) हांच्योय प्रतिकृती तयार करतात. प्रतीकृतीची कल्पना खूब पुर्विल्लया काळासावन चलत आयल्या. पुराणांत विश्वामित्रान प्रतीसृश्ट निर्माण केल्ल्याचो उल्लेख आयला. पुर्विल्ल्या काळांतले लोक पूजेखातीर वस्तूंचीं शिल्पां, कोरांतिल्ल्यो आकृतायो वापरताले. आफ्रिकी जमातींनी रानटी सावदां आनी व्यक्ती हांच्यो प्रतीकृती करताले. जादूटोणो, चेटूक हातुंतूय प्रतीकृतींचो वापर करताले. इजिप्तांतल्या पिरॅमिडांत वस्तूंच्यो आनी मनशांच्यो प्रतीकृती सांपडल्यात. सतराव्या शेंकड्यांत जे. बी. कॉलबॅर ह्या फ्रांसाच्या उदका येरादारी मंत्र्यान पयलेच खेपे प्रमाणबद्ध प्रतीकृती तयार करून मागीर ते प्रमाण तारूं बांदचें असो आदेश काडलो. ताका लागून एक नवी प्रथा सुरू जाली. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत फ्रेंच सरकारान अशा सगळ्या प्रतीकृतींचें एक संग्रहालय तयार केलें. ह्या प्रतीकृतींक लागून तारवांचे गूणदोश समजप सोंपें जाल्ल्यान ताचो वापर तारवांची दुरुस्ती करपांत जावपाक लागलो.

खेळांचें वा मनोरंजनाचें एक साधन म्हणून व्हड प्रमाणाचेर प्रतीकृती तयार करतात. हातूंत भुरग्यांच्यो बाबल्यो, मोटारी, उज्या गाडयो, रॉकेटां हांचो आस्पाव जाता. छंद म्हणुनूय खुबदां उज्या गाडयो, विमानां, धरणां हांच्यो प्रतीकृती तयार करतात. तातूंत मुळ वस्तूचें जुस्ताजुस्त दिग्दर्शन करपाच्या यत्नाचेर भर दितात. अशा प्रतीकृतींखातीर फावो तीं उपकरणां, साधनां आनी कच्चो म्हाल हांची पुरवण करपी व्हड संस्था फुडारिल्ल्या देशांनी स्थापन जाल्यात. ह्यो प्रतीकृती तयार करता आसतना भुरग्यांचे संशोधक बुद्‌दीक पोसवण मेळटा आशिल्ल्यान त्यो तयार करपाखातीर उत्तेजन दितात. धर्मीक कारणाखातीरूय प्रतीकृती तयार करतात. महाराष्ट्रांत नागपंचमी दिसा मातयेचे नाग करपाची प्रथा आसा. गणपतीची मूर्त हो प्रतीकृतीचोच एक नमुनो.

वस्तूंची वा लोक आनी समाजजीण हांची म्हायती दिवपाखातिरूय प्रतीकृती तयार करतात. दिल्लीच्या बावल्यांच्या आंतरराश्ट्रीय संग्रहालयांत भारतांतल्या विंगड विंगड प्रांतांतल्या लोकांचो भेस संस्कृताय आनी लग्न पद्‌दत हांचें दर्शन घडोवपी बावल्यांच्यो प्रतीकृती आसात. जायरातीखातीरूय प्रतीकृतींचो वापर करतात. घड्याळी, जोतीं हांच्यो व्हड आकाराच्यो प्रतीकृती दुकानांभायर लायिल्ल्यो दिश्टी पडटात. चलचित्र, दूरचित्रवाणी सारकिल्ल्या मनोरंजन प्रकारांनी इतिहासीक घडणूक, विमान पडप वा उजो लागप हांचे सारकिले भयांकृत प्रसंग दाखोवपाखातीर प्रतीकृतींचो वापर व्हड प्रमाणांत करतात. मूळ वस्तूपरस ल्हान आकाराच्यो प्रतीकृती घेतात आनी छायाचित्रणांतल्या खुब्यांचो वापर करून प्रत्यक्ष प्रसंगाचो आभास तयार करतात.

शिक्षणीक क्षेत्रांत प्रतीकृतींचो वापर व्हड प्रमाणांत जाता. रसायनशास्त्रांत रेणूंची रचणूक समजुन दिवपाखातीर प्रतीकृतींचो उपेग करतात. वैजकीशास्त्रांत कुडींतल्या वेगवेगळ्या अवयवांचे कार्य तांच्या प्रतीकृतींवरवीं शिकयतात. अभियांत्रिकींत वेगवेगळ्या स्वरुपांच्यो प्रतीकृती वापरतात. कांय प्रतीकृती खाशेल्या यंत्राची रचणूक स्पश्ट करपाखातीर तयार केल्ल्यो आसतात. विमान चलोवपाच्या प्रशिक्षणाखातीर वैमानिकाची बसपाची सुवात, नियंत्रण उपकरण फळो हांची हुबेहुब प्रतीकृती वापरतात. नव्यो वसणुको वा घरां तशेंच पूल आनी धरणां हांची प्रत्यक्ष बांदावळ करपाआदीं तांच्यो प्रमाणबद्द प्रतीकृती करून ताचें पुराय चित्र उबें करतात. गणितशास्त्रांतल्यो कितल्योश्योच संकल्पना प्रतीकृतींवरवीं स्पश्ट करतात (पळेयात : गणितीय प्रतीकृती). कितलेशेच शास्त्रीय सिद्धांतूय प्रतीकृतीच्या स्वरुपांत परगटायतात. ह्या प्रतीकृतींक प्रतिमान अशें म्हण्टात.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रतिपदा :** (पळेयात पाडवो).

**प्रतिसृश्ट :** ब्रह्मदेवान आदिसृश्ट निर्माण करतकच ताच्या रुद्र, विराट, मनू, दक्ष, मरीची आदी मानिल्ल्या पुतांनी निर्माण केल्ली सृश्ट म्हळ्यार प्रतिसृश्ट. मूळ विराट मनशान जायते मनू तयार केले. तातूंतल्या एका मनून सात मनू तयार केले आनी जायती प्रजाय निर्मिली. तांच्यांतल्या स्वायंभूव नांवाच्या मनून स्वारोचिष, उत्तम, तामस, रैवत, चाक्षुष, विवस्वान अशे स पूत निर्माण केले. उपरांत ताणें आपल्या पुतांच्या आदारान यक्ष, राकेस, पिशाच्च, नाग, गंधर्व, किन्नर, विद्याधर, अप्सरा, सिद्ध, भूतगण, विद्युत्, कुपां, झाडां, वाली, तण, नुस्तें, मोनजात, जीव हांची निर्मिती केली. हिका स्वायंभुव मनूची प्रतिसृश्ट म्हण्टात. हेर स मनूंनी त्या-त्या काळांत आपली सृश्ट निर्मिली. वराहान यज्ञ, ताची सामुग्री, यूप, प्राग्वंश, धर्माधर्म आनी सगळे गूण हांची निर्मिती केली. ही वराहाची प्रतिसृश्ट. दक्षान देवर्षी सदृश जायते पूत, महर्षी आनी सोमपादी पितृगण निर्माण करून सृश्टीचें प्रवर्तन केलें. हिका दक्षाची सृश्ट अशें नांव आसा. ब्रम्ह्याच्या तोंडापसून ब्राह्मण, हातापसून क्षत्रिय, मांडयेपसून वैश्य, पायांपसून शुद्र आनी चार तोंडांतल्यान चार वेद तयार जाले. हो ब्राह्म सर्ग. मरीची पसून कश्यप आनी कश्यपापसून देव, दैत्य, दानव आनी पुराय संवसार निर्माण जालो. ही काश्यपाची सृश्ट. अत्रीच्या दोळ्यांसावन चंद्र आनी चंद्रासावन ताचो वंश उत्पन्न जालो. हाची सोमाचो सर्ग म्हणून नामना आसा. आज्यप नांवाचो तशेंच हेर पूत आनी राकेस हांकां पुलस्त्याची सृश्ट म्हण्टात. काद्रवेय, गज, अश्व आनी बहुविध प्रजा ही सगळी पुलहाची सृश्ट. अठ्ठ्यांयशी हजार वालखिल्य हे ऋतुचे पूत. अशे तरेन दक्ष, मरीची आदींनी जायती प्रजा उत्पन्न करून धर्तरी आनी स्वर्ग भरलो. तांचेच वंशज सद्या त्रिभुवनांत नंदतात.

संवसारांत एकाच नांवाची पूण परस्पर विरोधी गूण तत्त्वांच्यो दोन निर्मित्यो दिसतात. कोडू घोंसाळीं - गोड घोंसाळीं. सर्वसादारण कांदे आनी रानटी कांदे. वनस्पत तशेंच मोनजातींत हे अशे तरेचे दोन मेरांचे निर्मितीमदली उण्या दर्ज्याची निर्मिती ही विश्वामित्र ऋषीचे प्रतिसृश्टींतली निर्मिती मानतात.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रतीहार घराणें :** उत्तर भारतांतलें एक पुर्विल्लें घराणें. ते गुर्जर वंशाचे आशिल्ले. ते इ. स. च्या सव्या शेंकड्याच्या मध्याक उदयाक आयले. तांचो मूळ पुरूस हरिश्चन्द्र नांवाचो ब्राह्मण आशिल्लो. ताका ब्राह्मण आनी क्षत्रिय जातींतल्यो दोन बायलो आशिल्लो. क्षत्रिय बायले पसून ताका भोगभट्ट, कक्क, रज्जिल आनी दद्द अशे चार पूत जाले. तातूंतल्या पयल्या दोगांविशीं व्हडलीशी म्हायती मेळना. रज्जिलान मांडव्यपूर (जोधपुरा लागसारचें मंदोर) ह्या शारांतल्यान राज्य केलें; दद्द हाणें दक्षिणेक गुजारातांत राज्य केलें. ताची राजधानी नान्दीपुरीक (नांदोद)

आशिल्ली. रज्जिलाचे वंशज आपलें कूळ रघुकुलांतल्या लक्ष्मणापसून उत्पन्न जालें, अशें मानताले. लक्ष्मण वनवासांत रामाचो प्रतीहार (द्वारपाल) आशिल्लो. देखून ह्या फांट्याक प्रतीहार (वा गुर्जर प्रतीहार) अशें नांव पडलें. दद्दाचे वंशज आपलो संबंद कर्णाकडे जोडटाले.

प्रतीहार घराण्याचे दोन फांटे आशिल्ले - एक मांडव्यपुरासावन राज्य करपी व्हडलोसो नामनेचो न्हय. दुसरो, जावालिपुर (भिल्लमाला लागसारचें जालोर) हांगासावन राज्य करीत आशिल्लो, तो साम्राज्यपदामेरेन उदरगतीक पावलो. हातूंतलो पयलो प्रसिद्ध पुरूस पयलो नागभट्ट. हाच्या काळांत अरबांनी सिंध प्रदेश जिखून उदेंतेकडेन धडक मारपाक सुरवात केल्ली. पूण नागभट्टान तांकां हारोवन उत्तर भारताची तांचेपसून राखण केली. हो ताचो मोलादीक वावर. उपरांत ताणें भोंवतणचो वाठार जिखून आपल्या राज्याचो विस्तार केलो. ताचो नातू वत्सराज हाणें उत्तर भारताचो बरोच वाठार जिखून अस्तंत बंगालचो बळिश्ट पालराजा धर्मपाल हाचेरूय हार घाली. मजगतीं दक्षिणेचो राष्ट्रकूट राजा ध्रुव हाणें उत्तर भारतांत घुरी घालून वत्सराजाक राजपुतान्याच्या रेंवटांत धांवडायलो आनी उपरांत धर्मपालाकय दुआबांत हारयलो.

ध्रुव दक्षिणेंत परत वतकच धर्मपालान कनोजाचेर घुरी घालून थंय आपलो हस्तक चक्रायुध हाका बसयलो. पूण वत्सराजाचो पूत दुसरो नागभट्ट हाणें ताका सत्ताभ्रश्ट केलो. तेन्ना ताका धर्मपालाकडेन मोंघीरा लागसार खडेगांठ झूज दिवंचें पडलें. तातूंत नागभट्टाचें जैत जालें. राज्यविस्तार करपाचे धर्मपालाचे यत्न चालूच आशिल्ले. इतले मजगतीं, ध्रुवाचो पूत राष्ट्रकूट राजा तिसरो गोविंद हाणें उत्तर भारतांत घुरी घालून ताचेर हार घाली आनी हिमालयाच्या मुळसामेरेन चाल केली. तेन्ना धर्मपाल ताका शरण आयलो. गोविंद परत वतकच प्रतीहार आनी पाल हांचें परत झूज जालें. धर्मपालान चडसो वाठार जिखून घेतिल्लो. ताच्यो पूत देवपाल होय एक बरो झुजारी आशिल्ल्यान ताणें गुर्जरांचेरूय हार घाली.

देवपालाउपरांत पाल राज्यांचें बगळे उणें जायत गेलें. दुसऱ्या नागभट्टाचो नातू पयलो भोज हाणें ताचो फायदो घेवन आपले साम्राज्य वाडयलें. ताणें कनौज जिखून थंय आपली राजधानी व्हेली. ताणें उदेंतेक शरयूपार (गोरखपूर), दक्षिणेक माळवा आनी काठेवाड, उत्तरेक पंजाब आनी उत्तर प्रदेश हे वाठार जिखून आपले सत्तेचो विस्तार केलो. ताणें सिंधाचेर घुरी घालून मुलतानाकूय रेवाडो घालो. पूण अरबांनी थंयची सूर्याची मूर्ती नश्ट करपाची भिरांत घालिनाफुडें थंयच्या लोकांचे सांगणेवयल्यान तो शार घेनासतनाच परत घुंवलो. मुसलमानांवयलें जैत मनोवपाखातीर ताणें 'आदिवराह' ही पदवी धारण केली आनी 'आदिवराह' छापाचीं रुप्याचीं नाणींय पाडलीं.

भोजाउपरांत ताचो पूत महेन्द्रपाल हाणें बंगालचो कांय भाग जिखून आपलें साम्राज्य आनिकूय वाडयलें; पूण ताचो पूत महीपाल हाच्या काळांत ताचो शेक उणो जायत रावलो. इ. स. ९१५च्या सुमाराक राष्ट्रकूट राजा तिसरो इंद्र हाणें कनौजाचेर घुरी घालून तें नश्ट केलें. तेन्ना महिपालाक आपलो सामंत चंदेल्ल हर्ष हाच्या आलाशिऱ्याक वचचें पडलें. हे हारीक लागून प्रतीहारांची प्रतिश्ठा उणी जावन तांचे सामंत स्वतंत्र जावंक लागले. राष्ट्रकुटांनी तांच्या राज्यांतले कालंजर आनी चित्रकूट (चितोड) हे दोन किल्ले आपल्या ताब्यांत दवरिल्ले. महीपाला उपरांत गादयेर आयिल्ल्या ताच्या भुरग्यांचे मुस्तींत प्रतीहारांचो शेक आनिकूय दुबळो जालो. निमाणचो प्रतीहार राजा हो महंमूद गझनीचे कनौजावयले घुरये वेळार कनौज सोडून उदेंतेक सुमार ५० किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या गांवांत पळून गेलो. ताच्या ह्या भिवकुरेपणाची तिडक मारिल्ल्यान चंदल्लचो राजा विद्याधर आनी ताचो सामंत कच्छवाह अर्जुन हाणें ताचेर हार घालून ताका जितोच मारलो. हाचें नांव प्रयागा लागसार मेळिल्ल्या एका तांब्यापट्या वयल्यान समजलां. पूण ताचें राज्य लागसारच्या वाठारापुरतेंच मर्यादीत आशिल्लें. ह्या वंशांत यशपाल नांवाचो आनीक एक पुरूस जावन गेलो अशें म्हण्टात.

प्रतीहारांच्या राज्यांत धर्म, विद्या आनी कला हांची उदरगत जाली. प्रतीहार राजा शिव, विष्णु, आदित्य आनी भगवती अशा वेगवेगळ्या देवतांचे उपासक आशिल्ले. ताणीं विध्वंसक मुसलमानां सावन आपल्या देशाची आनी धर्माची राखण केली. सिंधाकडल्यान मुसलमानांचें आक्रमण जावचें न्हय म्हणून ताणीं आपल्या राज्याचे अस्तंत देगेर सात ते णव लाख सैन्य दवरिल्लें. तांच्या काळांत कनौजाचें वैभव वाडलें. थंयच्या बायलांचो भेस सबंद भारतांत आदर्श असो आशिल्लो, अशें राजशेखराच्या 'काव्यमीमांसा' ह्या ग्रंथांत म्हळां. प्रतीहारांनी किल्लेलींशींच देवळां बांदलीं. ताणीं विद्वान लोकांक आलाशिरो दिलो. राजशेखराचीं 'बाल - रामायण' आनी 'बालभारत' हीं संस्कृत नाटकां कनौजाकूच पयलीं माचयेर आयलीं. धर्म, संस्कृताय, विद्या आनी कला हांचो उदारपणान पुरस्कार करपी अशी प्रतीहारांची नामना अजुनूय तिगून आसा.

– कों वि. सं. मं.

**प्रत्यंगिरा :** एक तांत्रिक देवता. प्रत्यंगिरास्तोत्रांत तिचें मूर्तिध्यान वर्णिलां तें अशें -

शवोपरि समासीनां रक्ताम्बरतनुच्छदाम्
सर्वाभरणसंयुक्तां गुञ्जाहारविभूषिताम्॥
षोडशाब्दां च युवतीं पीनोन्नतपयोधराम्
कपालकर्तृकाहस्तां परमानन्दरूपिणीम्॥
वामदक्षिणयोगेन ध्यायेन्मन्त्रविदुत्तमाम्

**अर्थ** – मड्याचेर बशिल्ली, तांबडें वस्त्र न्हेशिल्ली, सगळ्या वस्त्रालंकारांनी भरिल्ली, विभूषित, सोळा वर्सांची तरणाटी, भरगच्च थानां आशिल्ली, कपाल आनी कातर धारण केल्ले, परमानंदरुप आनी बरे अशे प्रत्यंगिरीचें मंत्रवेत्त्यान वामाचार आनी दक्षिणाचार ह्या दोगांयचे वतीन ध्यान करचें.

प्रत्यंगिरिचें एक वेगळें ध्यान आसा. तातूंत ती कमळाचेर उबी आसून तिका चार हात आसात. तिच्या हातांत डमरू, अंकुश, दोर आनी कपाल आसून ती जायत्या अलंकारांनी आनी वस्त्रांनी भरिल्ली आसा. तिच्या माथ्याचेर व्हड मुकूट आसा. तिका भरगच्च थानां आसात. तिचें तोंड कराल आसा.

मंत्र महोदधींत, प्रत्यंगिरेचे वेगवेगळ्या उद्देशांखातीर वेगवेगळे मंत्र सांगल्यात.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रथिनां :** प्रथीन म्हळ्यार इंग्लिशींतलो 'प्रोटीन' (Protein), जो 'प्रोटीओज' ह्या ग्रीसी शब्दावयल्यान घेतला आनी ताचो अर्थ जीवनक्रियेखातीर (Life Process) लागपी मूळ पदार्थ असो जाता. प्रथिनां

हीं नायट्रोजन आशिल्लीं संयुक्तां आसून तांची रचणूक किचकिटीची आसा. प्रथिनां हीं तेवीस तरांच्या आल्फा ॲमिनो ॲसिडस पसून तयार जाल्लीं आसतात. प्रथिनांनी कार्बन, हायड्रोजन, ऑक्सिजन, नायट्रोजन आनी गंधक हीं मूळ द्रव्यां आसतात. तेचपरी कांय प्रथिनांनी फॉस्फरस, आयोडीन, मँगनीज, लोखण, तांबें, झिंक हींय मूळ द्रव्यां आसतात.

प्रथिनां जायत्या तरांचीं आसतात. तांचे प्रकार प्रथिनांचें जलीय विच्छेदन (Hydrolysis) करून मेळपी प्रदार्थांचेर आदारून आसतात.

**१) सादीं प्रथिनां :** जलीय विच्छेदन केले उपरांत ज्या प्रथिनांची फकत आल्फा ॲमिनो ॲसिडस जातात तांकां सादीं प्रथिनां म्हण्टात. तांतयां, दूद, रगत, चणे (वाटाणे), भिकणां, बदाम हातूंत सादीं प्रथिनां आसतात. सादीं प्रथिनां उदकांत विरगळपी आनी ना विरगळपी आसतात. तीं तापयल्यार तांचे गुठले जातात. आल्बुमिनां, ग्लोब्युलिनां, प्रोटमिनां, हिस्टोनां, प्रोलामिनां, ग्लोबिनां, ग्लुटेलिनां, स्क्लॅरोप्रथिनां, कॉलॅजेनां, श्लॅस्टिनां आनी केराटिनां हीं सादीं प्रथिनां.

**२) संयुग्मित प्रथिनां :** अप्रथिनी गटावांगडा जोडिल्ल्या साद्या प्रथिनांक संयुग्मित प्रथिनां म्हण्टात. संयुग्मित प्रथिनां जायत्या तरांचीं आसतात. तांचे प्रकार तातूंत आशिल्ल्या अप्रथिनी गटावयल्यान थारायतात. सकयले कांय संयुग्मित प्रथिनां आनी तातूंत आशिल्ले अप्रथिनी गट दिल्ले आसात ते अशे -

| | संयुग्मित प्रथिनां | अप्रथिनी गट (Prosthetic group) |
|---|---|---|
| १) | न्युक्लिओप्रथिनां | न्युक्लिक ॲसीड |
| २) | फॉस्फोप्रथिनां | फॉस्फोरिक ॲसिड |
| ३) | चरबी प्रथिनां | चरबी (Lipids) |
| ४) | वर्ण प्रथिनां | रंग द्रव्यां (coloured) |
| ५) | ग्लायको प्रथिनां | कार्बोदकां (carbohydrate) |
| ६) | धातू प्रथिनां | धातू |

**३) साधित प्रथिनां :** प्रथिनांचे लांब माळेचे रसायनीक विक्रियेउपरांत (Chemical decomposition) जाल्ल्या कुडक्यांक (fragments) साधित प्रथिनां म्हण्टात. ह्या प्रथिनांच्या व्हडल्या कुडक्यांक प्रोटिओज म्हण्टात. ल्हान कुडक्यांक पॅप्टोनस (Peptones) आनी सामक्या ल्हान कुडक्यांक पॅप्टायडस (Peptides) म्हण्टात.

हांचेभायर प्रथिनांचे एंझायम प्रथिनां आनी हॉर्मोन प्रथिनां अशेय गट करूं येतात.

वेगवेगळ्या प्रथिनांचे गूणधर्म वेगवेगळे आसता. कांय प्रथिनां रंगीत आसतात. रंगतांतलें तांबडेंगूंज 'हिमोग्लोबीन'. कांय प्रथिनांक रंग नासता. नितळ प्रथिनांक रूच नासता. पूण प्रथिनांचें जलीय विच्छेदन करून तयार जाल्लीं संयुगां कोडू आसतात. नितळ प्रथिनांक वास नासता. केंस, रेशीम, लोकर हातूंतलीं सुताळ प्रथिनां उदक आनी हेर विद्रवकांत विरगळनात. कांय प्रथिनां उदकांत विरगळटात. पूण तीं तापयल्यार तांचे गुठले जातात. देखीक - तांतयांतलो बोळ तापयतकच घट्ट जाता. प्रथिनां तापयत जाल्यार तांबशीं पडटात. मागीर करपून तांकां केंस वा पांखां जळिल्लेवरी वास येता.

आल्फा ॲमिनो ॲसिडसांचे खूण रेणू एकठांय येवन प्रथिनां तयार जातात. आल्फा ॲमिनो ॲसिडस एकामेकांक पॅप्टायड बंधान जोडिल्लीं आसतात. पॅप्टायड बंधांनी तयार जाल्ल्या ॲमिनो ॲसिडांचे लांब सरपळेक पॅप्टायड सरपळी म्हण्टात. पॅप्टायड सरपळेच्या एका पोंतार ॲमिनो गट जाल्यार दुसऱ्या पोंतार 'कार्बोक्सिल गट' आसता. पॅप्टायड सरपळेंत सुमार शंबर आल्फा ॲमिनो ॲसिडाचे घटक आसतात.

प्रथिनांतली आल्फा ॲमिनो ॲसिडस् वळखुपाखातीर प्रथिनांचेर पातळ हायड्रोक्लोरीक ॲसिडाची प्रक्रिया करून आल्फा ॲमिनो ॲसिडस् तयार करतात. मागीर हीं ॲमिनो ॲसिडस् वळखून प्रथिनांतलें दरेकाचें प्रमाण थारायतात.

पॅप्टायड सरपळेंत आल्फा ॲमिनो ॲसिडांचो क्रम थरोवपाखातीर ते सरपळेंतली आल्फा ॲमिनो ॲसिडां एक एक करून वेगळीं काडटात. हे खातीर पॅप्टायड सरपळेंतलो मेकळो ॲमिनो गट आनी फिनायल आयसोथायोसायनेट हांची प्रक्रिया करतात. उपरांत जलीय विच्छेदन करतकच ॲमिनो गट जोडिल्लें आल्फाॲमिनो ॲसिड वेगळें जाता. तें ॲमिनो ॲसिड तपासून वळखूंक येता. अशे तरेन ही प्रकिया परत परत करून पॅप्टायड सरपळेंतलो आल्फा ॲमिनो ॲसिडसाचो क्रम थारायतात. ही पद्‌दत एडमन ह्या शास्त्रज्ञान सोदून काडली. पॅप्टायड सरपळेंत विसांपरस चड आल्फा ॲमिनो ॲसिडस् आसल्यार एडमनाची पद्‌दत उपकारता. अशा वेळार प्रथिनांचेर ट्रिप्सिन ह्या एन्झायमाची प्रक्रिया करून पॅप्टायट सरपळेचे ल्हान ल्हान कुडके करतात. ह्या कुडक्यांनी आशिल्ल्या आल्फा ॲमिनोॲसिडांचो क्रम मागीर वयर सांगला ते पद्‌दतीन थारयतात. फिनायल आयसोथायोसायनेटा बदला डायनायट्रोफ्लयुओरो बॅन्झीन (Dinitrofluoro benzene) वापरुनूय पॅप्टायड सरपळेंतलो आल्फा ॲमिनो ॲसिडाचो क्रम थारोवं येता.




**पॅप्टायड सरपळी**

$R_1, R_2, R_3$ = आल्फाॲमिनो ॲसिडांतले उरिल्ले रेणू.

प्रथिनांची संरचना तीन थरांवयल्यान पळोवंक येता. पयल्या थरावयले संरचनेंत प्रथिनांत आल्फा ॲमिनो ॲसिडांच्यो लांब सरपळ्यो जांकां पॅप्टायड सरपळ्यो म्हण्टात त्यो दिसतात. ह्यो सरपळ्यो पॅप्टायड बंधांक लागून तयार जातात.

दुसऱ्या थरांवयले संरचनेंत वेगवेगळ्यो पॅप्टायड सरपळ्यो एकामेकांक कश्यो जोडल्यात तें समजता. वेगवेगळ्यो पॅप्टायड सरपळ्यो हायड्रोजन बंधांनी जोडिल्ल्यो आसतात. हाका लागून प्रथिनां चेपटीं बॉल कशीं जाल्यार विणयेच्या आकाराचीं जातात. तिसऱ्या थरावयले संरचनेक लागून पॅप्टायड सरपळ्यो वांटकुळे इश्कादीभाशेन आकार घेतात. असो आकार ते ते पॅप्टायड सरपळेंत आशिल्ल्या हायड्रोजन बंधाक लागून येता.

प्रथिनाच्या एका रेणूंत आल्फा ॲमिनो ॲसिडाचे शेंकड्यांनी वा हजारांनी रेणू आसतात. प्रथिनांनी सुमार तेवीस तरांची आल्फा ॲमिनो ॲसिडां आसतात. ह्या सगळ्या आल्फा ॲमिनो ॲसिडांपसून मेजूंक येना इतल्या तरांचीं प्रथिनां जावंक शकतात. एका प्राण्याची कूड जावन जियेवपाक सुमार धा हजार तरांचीं प्रथिनां जाय पडटात. वेगवेगळ्या जातींच्या प्राण्यांचे कुडींत वेगळीं वेगळीं प्रथिनां आसतात.

प्रथिनांतल्या तेवीस तरांच्या आल्फा ॲमिनो ॲसिडांतलीं धा आल्फा ॲमिनो ॲसिडां प्राण्यांक गरजेचीं आसतात. प्राण्याचे कुडीची सारकी वाड जातली जाल्यार गरजेचीं आल्फा ॲमिनो ॲसिडां प्राण्यांक अन्नांतल्यान मेळूंक जाय.

प्रथिनांनी आशिल्लीं आल्फा ॲमिनो ॲसिडां अशीं -

१) ॲलानीन (Alanine) २) अर्जिनायन (Arginine) ३) ॲस्परजिन (Aspergine) ४) ॲस्पर्टीक ॲसिड (Aspartic Acid) ५) सिस्टेयन (cysteine) ६) सिस्टायन (Cystine) ७) ग्लुटामिक ॲसिड (Glutamic acid) ८) ग्लुटामिन (Glutamine) ९) ग्लायसिन (Glycine) १०) हिस्टिडीन (Histidine) ११) हायड्रॉक्सी लायसीन (Hydroxy lysine) १२) हायड्रॉक्सी प्रोलायन (Hydroxy Proline) १३) आयझो ल्युसिन (Isoleucine) १४) ल्युसिन (Leucine) १५) लायसीन (Lysine) १६) मॅथिऑनायन (Methionine) १७) फिनायल ॲलानिन (Phenyl alanine) १८) प्रोलायन (Proline) १९) सेरिन (Serine) २०) थ्रियोनायन (Theronine) २१) ट्रिप्टोफेन (Tryptophane) २२) टायरोसिन (Tyrosine) २३) व्हॅलिन (Valine).

**प्रथिनां वळखुपाखातीर रंगविक्रिया :** वेगवेगळ्या पदार्थांनी आशिल्लीं प्रथिनां वळखुपाखातीर रंगविक्रियेचो वापर करतात. १) बायपुरेट टॅस्ट : हांचो पॅप्टायड बंध वळखुपाखातीर उपेग करतात. २) मिलॉन टॅस्ट : ही चांचणी करून टायरोसिन आशिल्ली प्रथिनां वळखुपाक मेळटात. ३) निनहायड्रीन टॅस्ट : हे चांचणेंत ॲमिनो ॲसिडां वळखूंक मेळटात. ४) झॅन्थोप्रोटिक टॅस्ट (Xenthoproteic test) बॅन्झिन रिंग आशिल्ल्या ॲमिनो ॲसिडांपसून तयार जाल्लीं प्रथिनां हे चाचणेंत वळखूक येतात.

प्राण्यांचे वाडीखातीर प्रथिनांची गरज आसता. प्राणी अन्नांतल्यान हीं प्रथिनां मेळयतात. वनस्पतीभाशेन ते आपल्याक लागपी प्रथिनां तयार करूंक शकनात. मनशाक सदांच ४५-५५ ग्राम प्रथिनां लागतात. मनशाक फावो तीं प्रथिनां मेळ्ळीं नात जाल्यार तांकां दुयेसां जातात. भुरगेपणांत प्रथिनांच्या उणावाक लागून कुडीचेर जाल्ले वायट परिणाम उपरांत कितलींय प्रथिनां दिलीं म्हणून पुराय बरीं जायनात. अन्नांतलीं प्रथिनां पचन जावन ॲमिनो ॲसिडाच्या रुपांत आंतकडच्यांनी शोशून घेतात.

प्रथिनां वनस्पतीपरस प्राण्यांचे कुडींत चड प्रमाणांत आसतात. वस्त्रोद्देगांत रेशीम आनी लोकर वापरतात. रेशमांत फायब्रॉयन जाल्यार लोकरींत कॅराटीन हीं आसतात. कॉलेजीन हें प्रथीन चामड्यापसून मेळटा. सरस आनी खळ हाडांतल्या जिलेटीन आनी रगतांतल्या प्रथिनांपसून तयार करतात. जनावरांचें रगत, शिंगां, खूर, गोमट्यो भायर उडोवपाच्या पदार्थांतलीं प्रथिनां सारें म्हणून वापरतात. मक्यांतलें झायन हें प्रथीन सूत तयार करपाचे प्रक्रियेंत वापरतात. पोपायेंतलें पॅपेन (Papain) हें प्रथीन शिजोवंचे आदीं मास मोव करपाक वापरतात. बियरींत आशिल्ल्या प्रथिनांक लागून बियर खदूळ जाता. हीं प्रथीनां नश्ट करपाक पॅपेन घालतात.

कड्डणांत भरपूर प्रथिनां आसतात. हीं प्रथिनां सुमार २०-३० % आसतात. हीं प्रथिनां उण्या दर्जाचीं आसतात कारण तातूंत गंधक आशिल्लीं ॲमिनो ॲसिडां नासतात.

दुदांत तरेकवार प्रथिनां आसतात. गायच्या दुदांत ३.३% प्रथिनां आसतात. दुदांत सगळ्या तरांचीं आल्फा ॲमिनो ॲसिडां आसतात.

– प्रेमानंद गोकुळदास फडते

## प्रदर्शनां :

**प्रदर्शनां :** सामान्याभायल्या वस्तूंची (कला, तंत्रगिन्यान आनी हेर मळांवयल्यां) वळख करून दिवपाची आनी तेवरवीं त्या वस्तूंचे निर्मितीक प्रसाराक आनी खपाक प्रोत्साहन मेळचें ह्या हेतान लोकदर्शनाखातीर केल्ली वस्तूंची मांडावळ म्हळ्यार प्रदर्शन. असल्या वस्तूंविशीं लोकांमजगतीं बारीकसाण निर्माण जावंची, तांचे निर्मितीक उत्तेजन मेळचें आनी वेपाराची भरभराट जावंची हो प्रदर्शनाचो हेत आसता. कांय प्रदर्शनांनी संस्कृतायेच्या वेगवेगळ्या फांट्यांतले उदरगतीचें दर्शनूय घडटा.

प्रदर्शन आयोजित करपी संघटनेचे येवजणेप्रमाण ताचें स्वरुप थारता. कांय प्रदर्शनां ल्हान मुजतींची आनी ल्हान प्रमाणांत शारांत भरतात आनी तांचें स्वरुप थळावे जात्रेप्रमाण वा ल्हानशा बाजारासारकें आसता. तीं प्रदर्शनां कांय खाशेल्या विभागापुरतीं मर्यादीत आसतात. देखीक - कृषीप्रदर्शन, घरविज्ञान प्रदर्शन, चित्रकला प्रदर्शन आदी. वेपारी उदरगत दाखोवपा खातीर जात्रेच्या स्वरुपांत व्हडल्या आकाराचीं तात्पुरतीं प्रदर्शनां वेगवेगळ्या सुवातींनी भरोवपाची प्रथा जगभर रूढ आसा. असलीं प्रदर्शनां आयोजीत करपाखातीर कांय सुवातींनी कायमच्यो इमारती बांदल्यात. देखीक - बर्लीनांतली Interban वास्तू. खूबदां जे वास्तूंत प्रदर्शन भरता, ते वास्तूचो प्रदर्शन सोंपतकच लागसारच्या शारांत आस्पाव करतात. देखीक - बार्सेलोना आनी बोलोन्या हांगाची जात्रा. रोमांत भरपी 'Espisizione Universale Roma' आनी ते सारकीं कांय हेर प्रदर्शनां कितलेशेच म्हयने चलपी आसून तीं खूब खेपे संवसारीक पातळेचेर घडोवन हाडटात. तातूंत जायत्यो खाजगी आनी शासकीय उत्पादक संघटना वांटो घेतात. अशा व्हडल्या प्रदर्शनांखातीर जावपी खर्च वेगवेगळ्या मार्गांनी भागयतात. ज्या राश्ट्रांत प्रदर्शन भरता, थंयचें शासन प्रदर्शनाखातीर देणगी दिता, प्रदर्शनकांकडल्यान भाडें मेळूं येता आनी वेपारी कारखानदार हांच्यो संघटनांय वर्गणी रुपान प्रदर्शनाक पालव करतात. प्रदर्शन आयोजक राश्ट्राचो मुखेल हेत, आपल्या राश्ट्रांत निर्माण जावपी मालाचें आनी कलाकृतींचें दर्शन विदेशी वेपारी आनी उद्देगपती हांकां घडचें असो आसता. देखून असलें प्रदर्शन हें राश्ट्रीय प्रतिश्ठेचें एक आंग अशें मानतात. कांय प्रदर्शनांचो हेत हो मुखेल करून प्रदर्शित मालाचो खप वाडचो होच आशिल्ल्यान तीं फकत संबंदीत वेपाऱ्यांकूच उकतीं आसतात आनी तातूंत सामान्य लोकांचे करमणुकीची तजवीज आसना. पूण चडशीं सगळीं आंतरराश्ट्रीय प्रदर्शनां हीं लोकांखातिरूच आसतात. तेखातीर कलाकुसर विभाग, करमणूक विभाग, खेळा शर्यती, वाद्यवृंद मेळ, सौंदर्य सर्ती, भेस सर्ती, चलचित्र, संगीत, नाटकां, प्रहंसनां हांची येवजण करतात.

म्हालाचें प्रदर्शन आनी ताचो खप करपाखातीर जात्रा आनी बाजार हांचो वापर मध्ययुगांतल्या काळासावन सुरू जालो. सोळाव्या शेंकड्यांत चित्रशिल्पांच्यो कलाकृती जात्रेंत आनी बाजारांत प्रदर्शित करताले. रोमांतले इगर्जेंत चित्रां प्रदर्शित करपाची प्रथा आशिल्ली. ॲंटवर्प (बोल्जियम) ह्या शारांतल्या थळाव्या चित्रकारांच्या मंडळान (गिल्ड) १५४० त शाराच्या चौकांत प्रदर्शन भरयल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. सतराव्या शेंकड्यांत कांय घराण्यांनी आपल्या खाजगी संग्रहांतल्यो कलाकृती भौशीक रितीन प्रदर्शित केल्यो. अठराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत उद्देगीकरणांतल्यान उद्देगीक प्रदर्शनांक चालना मेळ्ळी. लंडनाच्या 'सोसायटी ऑफ आर्ट्स' हे संस्थेन अठराव्या शेंकड्याच्या मध्याक कारखान्यांत बरो म्हाल तयार

करतल्यांक इनामां दिवपाचें थरयलें आनी स्पर्धकांच्या म्हालाचें प्रदर्शन भरयलें. फ्रांसांत कारखानदारांच्या म्हालाचें अशेच तरेचें एक प्रदर्शन १७९८त भरिल्लें. पयलें व्हडलें आर्विल्लें आंतराराष्ट्रीय प्रदर्शन (The Great Exhibition) १८९१त लंडनाच्या प्रिन्स आल्बर्टाच्या संचालनाखाल आयोजीत केल्लें. ह्या प्रदर्शनांत १४००० प्रदर्शकांनी भाग घेतलो आनी ६० लाख लोकांनी भेट दिली. अशेच तरेचीं राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय प्रदर्शनां उपरांत हॉलंड, बेल्जियम, जर्मनी, ऑस्ट्रिया आनी आयर्लंड ह्या देशांनी भरयलीं. अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतलें पयलें व्हडलें प्रदर्शन फिलाडॅल्फियांत १८७६त स्वातंत्र्यशती सुवाळ्यानिमतान भरयल्लें.

संवसारीक पातळेचेर भरिल्लीं कांय नामनेचीं प्रदर्शनां अशीं - संवसारीक कोलंबियी प्रदर्शन, शिकागो, १८९३; शिकागो विकास शताब्दी, १९३३-३४; ब्रुसॅल्सा संवसारीक, १९५८; न्यूयॉर्क संवसारीक, १९३९-४०; न्युयॉर्क संवसारीक ,१९६४-६५, मॉंट्रियाल; १९६७; ओसाका, १९७०; स्पोकॅन (वॉशिंग्टन) १९७४.

चित्रकारांनी स्वता फुडें येवन विसाव्या शेंकड्यांत प्रदर्शनां भरोवपाक सुरवात केली. भारतांतूय हें कार्य कांय कलासंस्था आनी खाजगी कलाविथी (art gallary) करतात. १८८८त स्थापन जाल्ली 'बॉम्बे आर्ट सोसायटी' आपलें प्रदर्शन दर वर्सा आयोजित करता. ह्याच प्रदर्शनांतल्यान कितलेशेच नामनेचे भारतीय चित्रकार आनी शिल्पकार फुडें आयले. मुंबयची 'आर्ट सोसायटी ऑफ इंडिया' हीय संस्था कला प्रदर्शनां आयोजीत करता. नवी दिल्लीची 'ऑल इंडिया फायन आर्ट्स अँड क्राफ्ट्स सोसायटी' आनी मुंबयची 'ऑल इंडिया स्कलप्टर्स असोसिएशन' ह्योय संस्था नेमान वर्सुकी प्रदर्शनां आयोजीत करतात. दरेका राज्यांतले ललित कला अकादेमी वरवीं वा शासना वरवीं वर्सुकी प्रदर्शनां ह्या राज्यांत जातात. भारत सरकाराचे ललित कला अकादमी वरवीं आंतरराश्ट्रीय कलाकृतींचे - चित्रकला, शिल्पकला आनी आरेखन कला, हांचे तिवर्सुकी प्रदर्शन १९६८ सावन भरना. हालींच्या तेंपार राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय थरांचेर पुस्तकांची प्रदर्शना भरतात आनी तांकां बरो प्रतिसाद मेळटा.

भारतीय म्हालाक आंतरराश्ट्रीय प्रदर्शनांतल्यान प्रसिद्धी दिवपाचे काम प्रदर्शन संचालनालयांकडेन आसा. हें संचालनालय वेपार मंत्रालयाचो घटक आसून भारतान खंयच्या खंयच्या प्रदर्शनांत भाग घेवचो, हे विशीं तें निर्णय घेता. ह्या संचालनालयाक मदत करपाखातीर शासनान 'भारतीय वेपारजात्रा आनी प्रदर्शन मंडळ' (Indian Council Of Trade Fairs and Exhibitions) ही निमसरकारी संस्था स्थापन केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रदक्षिणा :** षोडशोपचार पुजेंतलो एक विधी. 'प्रगतं दक्षिणमति' = पूज्य मनशाक वा देवाक उजवे वटेन दवरून ताचे भोंवतणीं भोंवाडो घालप हाका प्रदक्षिणा अशें म्हण्टात. खंयच्या देवाक कितल्यो प्रदक्षिणां घालप हे विशीं कर्मलोचनांत श्लोक दिला तो असो -

एकं देव्यां रवौ सप्त त्रीणि कुर्याद्विनायके।
चत्वारि केशवे कुर्यात् शिवे चार्धप्रदक्षिणम्॥

**अर्थ -** देवीक एक, सूर्याक सात, गणपतीक तीन, विष्णुक चार आनी शिवाक अर्दप्रदक्षिणा घालची. शिवाचें अभिशेकाचें उदक जे नळयेंतल्यान भायर सोडटात थंयमेरेन प्रदक्षिणा घालून ती नळी हुंपनासतना परत देवामुखार येवप म्हणजे शिवाची अर्दप्रदक्षिणा जाता. हिका सोमसूत्री प्रदक्षिणा अशेंय म्हण्टात.

प्रदक्षिणा कशी घालप हे विशीं कालिका पुराणांत श्लोक दिला तो असो -

प्रसार्य दक्षिणं हस्तं स्वयं नम्रशिरा: पुन:।
दक्षिणं दर्शयन् पार्श्वं मनसापि च दक्षिण:॥

**अर्थ -** उजवो हात फुडें पसरावन, नतमस्तक जावन आपलें दक्षिण आंग देवाक दाखयत आनी मनानूय दक्षिण म्हळ्यार उजू वृत्तीचो रावन प्रदक्षिणा घालप. ज्या देवाक प्रदक्षिणा घालपाक शक्य जायना ताका, स्वता भोंवतणींच वांटकुळो भोंवन प्रदक्षिणा काडटात. पूण अशे प्रदक्षिणेंत देवाक फाट दाखयल्लेवरी जाता देखून सहसा अशी प्रदक्षिणा घालिनात.

वराहपुराणांत प्रदक्षिणेचें माहात्म्य सांगलां तें अशे -

प्रदक्षिणां ये कुर्वन्ति भक्तियुक्तेन चेतसा ।
न ते यमपुरं यान्ति यान्ति पुण्यकृतां गतिम्॥

**अर्थ -** जे भक्तिपुर्वक अंत:करणान देवाक प्रदक्षिणा घालतात, तांचो यमलोक टळटा आनी ते पुण्यवंतांचे गतीक वतात.

कांय जाण वेगवेगळ्यो इत्सा मनांत धरून तांचे पुर्तीखातीर औदुंबराक, दत्ताक वा उपास्य देवतेक नेमान प्रदक्षिणा घालतात. प्रदक्षिणांची आंगवण करपाचीय प्रथा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रधान, गणेश प्रभाकर :** (जल्म : २६ ऑगस्ट १९२२, पुणें, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें एम्. ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. १९४५-६५ ह्या काळांत ताणें व्याख्यातो म्हणून काम केलां. तो सोशलिस्ट पक्षाचो वांगडी आशिल्लो. ताणें १९४२तले 'छोडो भारत' चळवळींत वांटो घेतिल्ल्यान ताका बंदखण भोगची पडली. गोवा विमोचन सहाय्यक समितीचो तो एक संस्थापक वांगडी आशिल्लो. गोंयचे शिमेर रावन तो हे समितीखातीर वावुरतालो. सत्याग्रह्यांच्या पंगडाक आदार दिवंक फंड एकठांय करप, संघटीत वावर घडोवन हाडप असलीं कामां तो करतालो. एस्. एम्. जोशी आनी ना. ग. गोरे हांचे वांगडा ताणें महाराष्ट्रांतलें वैचारीक चळवळींत एक वेगळी दिका दिली. हाचेभायर ताणें शिक्षणीक, राजकीय आनी समाजीक मळार जायतो वावर केला. तो एक बरो बरोवपी, तेचपरी एक बरो वक्तोय. ताचीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां अशीं : 'सोनार बांगला', लोकमान्य टिळकांचे चरित्र, 'स्वातंत्र्य संग्रामाचे महाभारत' आनी 'भारतीय उच्च शिक्षणाचे प्रश्न' ताच्या ह्या पुस्तकांक राज्य आनी केंद्रीय साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळा. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रद्युम्न :** श्रीकृष्ण आनी रुक्मिण हांचो पूत. हाका सनत्कुमाराचो अंश आनी मदनाचो अवतार अशें समजताले. शिवान भस्म करतकच मदन फुडें रुक्मिणीच्या पोटांत जल्माक आयलो अशी कथा आसा. शंबरासुराक जेन्ना कळ्ळें की, प्रद्युम्नाच्या हातान आपल्याक मरण आसा तेन्ना ताणें ताका जल्मदिसासावन सव्या दिसा उबारून व्हेलो आनी दर्यांत उडयलो.

थंय ताका एका नुस्त्यान गिळ्ळो. हें नुस्तें एका नुस्तेकाराच्या गळाक लागलें. नुस्तेकारान तें नुस्तें शंबरासुराक भेट म्हणून दिलें. शंबरासुराची बायल मायावती हिणें जेन्ना ते नुस्तें कापलें तेन्ना तातूंत तिका एक सोबीत सुंदर भुरगें मेळ्ळें. तेन्नाच थंय नारद आयलो आनी ताणें सांगलें हो आदल्या जल्माचो मदन आसून तूं ताची बायल रती. तें आयकून मायावतीक आनंद जालो. तिणें ताका ल्हानाचो व्हड करून ताका खुबश्यो विद्या शिकयल्यो. शंबराक जेन्ना ही गजाल कळ्ळी तेन्ना तो प्रद्युम्नाक मारूंक गेलो. तेन्ना दोगांयचें व्हड झूज जालें आनी शंबराक तातूंत मरण आयलें. ब्रह्मवैवर्त पुराणांत हीच कथा वेगळी दिल्या ती अशी – शंबरान प्रद्युम्नाक उबारून व्हरून आपली बायल मायावती हिचेकडेन दिलो. तिणें ताका वाडोवन व्हड केलो. उपरांत एक दीस सरस्वती थंय आयली आनी तिणें ताका प्रद्युम्नाच्या फाटल्या जल्माची गजाल सांगली.

प्रद्युम्नाक शतद्युम्न अशेंय एक नांव आसा. तो यादव सैन्यांतलो एक महावीर आशिल्लो. शाल्वान द्वारकेचेर घुरी घाली तेन्ना मोठ्या धिरान ताणें ताका हारयलो. पांडवांच्या अश्वमेधा वेळार घोड्यांक राखपाखातीर हो अर्जुनावांगडा गेल्लो.

हाका परमेश्वराच्या चतुर्व्यूहांतलो एक आनी मदनाचो प्रतीक मानला. विष्णुच्या चोवीस नांवांनी प्रद्युम्नाचो आस्पाव आसा. ताची मूर्त अश्टभूज करतात आनी ताच्या चार हातांनी शंख, कमळ, धोणू आनी बाण हीं आयुधां आसतात. ताच्या दुसऱ्या चार हातांनी तो रती, प्रीती, शक्ती आनी भेदशक्ती ह्या चार बायलांक वेंगायता.

तो मदनाचो अवतार आशिल्ल्यान रती वांगडा ताची द्विभुज मुर्तूय करतात. तशेंच पोपटार वा रथार बशिल्लीय ताची मूर्त करतात. ताचें धोणू उशीचें आसता. अशोक, आम्रमंजरी, नीलकमल, अरविंद आनी नवमालिका ह्या फुलांचे पांच बाण तो धारण करता. मयमते तापनी, दाहिनी, सर्वमोहिनी, विश्वमर्दिनी आनी मारणी ह्या पांच भिरांकूळ बायलांच्या दांतांपसून ताचे बाण तयार केल्ले आसतात.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रपत्तिमार्ग :** प्र+प्रत = शरण वचप. रामानुजाचार्य हाच्या मतान हो एक मुक्तीचो मार्ग आसून, भक्ती हें मुक्ती मेळोवपाचें एकूच साधन. भक्तीन भगवान प्रसन्न जाता आनी जिवाच्या सगळ्या बंधांचो तशेंच जाचांचो तो नाश करता. उपरांत जिवाक ब्रह्मज्ञान मेळटा. भक्तिंतूय प्रपत्ती वा शरणागती ही श्रेश्ठ अवस्था आसा. शरणांगती म्हळ्यार ईश्वराक शरण वचप वा ईश्वर हेंच प्राप्तव्य स्थान अशें समजप. शरण आयिल्ल्या जिवाचेरूच भगवान अनुग्रह करता अशें रामानुज म्हण्टा.

विशिश्टाद्वैत मतांत इश्वरप्राप्तीखातीर कर्मयोग हो पयलो, ज्ञानयोग हो दुसरो आनी भक्ती हो निमाणो पांवडो मानला. वर्णविहित कर्मानुष्ठाक लागून चित्ताची शुद्धी जाता आनी ब्रह्माची जिज्ञासा उत्पन्न जाता. अशे तरेन ज्ञान आनी कर्म हांच्या आदारान भक्तीचो उदय जाता. रामानुजान सांगिल्ल्या भक्तीमार्गाचें खाशेलपण म्हळ्यार तातूंत अंतःकरण आनी बुद्द हांचो सोबीत मेळ घडला. हातूंतली अंतःकरणपक्ष ही आळवारांनी दिल्ली देणगी आनी बुद्धीपक्षांत शास्त्रग्रंथांत वर्णन केल्ले भक्तीचो आस्पाव जाता. रामानुजाचे भक्तीविशी सिद्धांताचेर आळवारांच्या विचारांचो व्हड प्रभाव आसा. आळवारांच्या शरणांगतीक रामानुजान प्रपत्ती हें पारिभाशीक नांव दिलां.

इ. स. च्या १४व्या शतमानाच्या सुमाराक प्रपत्तीमार्गाच्या निमतान वैशणवांमदीं दोन वांटे जाले. तातूंतल्या वेदांतदेशिक आनी ताचे अनूयायी हे भक्तीवांगडा मोक्षाखातीर कर्मानुश्ठाक म्हत्वाचें मानतात. हांकां वडकळै अशें म्हण्टात. आपलो विचार स्पश्टपणान उक्तावपाखातीर ताणीं माकडाच्या पोराचें उदाहरण दिलां. आपल्याक राखण मेळची देखून माकडाचें पोर आवयच्या पोटाक दसून बसता. म्हणजेच ताका स्वताक कर्म करचें पडटा. तशेंच कर्मानुश्ठान करून जो देवाक शरण वता ताकाच देव प्रसन्न जाता अशें ह्या लोकांचें मत आसा. हे लोक संस्कृत शास्त्रग्रंथाच्या आदाराचेर भक्तीचो उपदेश करतात.

श्रीलोकाचार्य आनी ताचे अनुयायी हाणीं मुक्तीखातीर प्रपत्ती हो एकूच मार्ग सांगला आनी तेखातीर कर्मानुश्ठानाची गरज ना अशें सांगलां. ह्या पंथाच्या लोकांक तेन्कळै अशें नांव आसा. आपल्या मताचें स्पश्टीकरण दितना ते माजराच्या पिलाचें उदाहरण दितात. माजराचें पील असहाय्य भावान जेन्ना आवयक शरण वता तेन्ना माजर ताची मान अचळय आपल्या तोंडांत धरून ताका योग्य ते सुवातेर पावयता. देवाचीय आपल्या भक्ताचेर अशीच कृपा आसता.

तेन्कळै पक्षाच्या अनुयायाची आळवारांच्या दिव्य प्रबंधाचेर चड श्रद्धा आसा आनी ताका धरुनूच ते भक्तीची साधना करतात. हे लोक उदार नदरेचे आसून तांचेमदीं आपसांत उच्च नीच भाव आसनात.

प्रपत्तीन प्रसन्न जाल्लो देव जिवाक पूर्ण गिन्यानाची प्राप्ती करून दिता, देखुनूच ताका ईश्वराचो साक्षात्कार आनी निमाणें मुक्ती मेळटा अशें वैशणव दर्शनांत सांगलां.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रबंधम् :** तमीळ भक्तीचेर आदारिल्लो एक पद्यसंग्रह. इ. स. च्या सव्या शतमानासावन णवव्या शतमानामेरेन तमीळांत १२ वैशणव भक्तकवी निर्माण जाल्ले, तांकां आळवार अशें म्हण्टात. ताणीं विष्णुभक्तिचेर आदारीत जायती कवनां रचलीं आनी तमीळनाडून विष्णुभक्तिचो सार्वत्रिक प्रचार केलो. इ. स. च्या णवव्या शतमानाच्या निमाणें नाथमुनी नांवाच्या एका आचार्यान मौखिक परंपरेन लोक समाजांत चलत आयिल्ल्या ह्या कवनांचें संकलन केलें आनी कर्तो, विशय आनी छंद हांचे वयल्यान तांकां वेगवेगळीं नांवां दिलीं. श्रीरंगम नगरांत रावपी अमुदन नांवाचो श्रीरामानुजाचार्याचो एक शिश्य आशिल्लो. ताणें आपल्या गुरूचे तोखणायेचेर सुमार शंबर कवनां रचलीं. हांचोय वयल्या संग्रहांत आस्पाव करून सुमार ४,००० पद्यांचो एक बृहत्संग्रह नाथमुनीन तयार केलो आनी ताका नालायिर दिव्य प्रबंधम (चार हजार पवित्र कवनां) अशें नांव दिलें. फुडें लोक ह्या संग्रहाक संक्षेपान प्रबंधम् अशें म्हणूंक लागले.

प्रबंधमांत भक्ती होच ईश्वरप्राप्तीचो सोंपो असो राजमार्ग आशिल्ल्याचें सांगलां. आळवारांच्या ह्या पद्यांनी तमीळनाडूंतले पुराय जनतेक भक्तीमार्गाची गोडी लायली. तमीळ भाशेंन हें जे उचेल्या पांवड्याचें भक्तीसाहित्य निर्माण जालें ताचेवरवीं दक्षिणेच्या भाशाभगीनीचेरूय प्रभाव जालो. आळवारांच्या उपरांत आचार्यांची जी परंपरा निर्माण जाली, तिचेवरवीं मदल्या युगांत भक्तीतत्त्वां देशव्यापी जालीं. देखुनूच भारतांतल्या सगळ्या भाशांतल्यान भरपूर भक्तीसाहित्य निर्माण जालें. ह्या सगळ्या

भारतव्यापी भक्तीमार्गाच्या आंदोलनाचें मूळ प्रबंधम् ह्या ग्रंथांत आसा. देखून भक्तीतत्त्वाचो हो खरो मूळ ग्रंथ थारता. डॉ. मलिक मंहमद हाणें ह्या प्रबंधमाचो खोलायेन अभ्यास करून ह्या ग्रंथाविशीं पुरायतरेन म्हायती दिल्या, तिचो थोडेभितर आपरोस असो - प्रबंधम् ह्या ग्रंथांत भक्तिकूच चड म्हत्व दिलां. पेरियाळवार हाच्या मतान जो भक्ति करिना तो आवयची कूस बेठीच उजयता. आळवारांच्या मताप्रमाण भगवंताचेर मनापसून अनुराग धरप म्हणजेच भक्ती. देखुनूच भक्ति ही फकत साधन न्हय जाल्यार साध्यूय आसा. अळवारांचो असो भावार्थ आशिल्लो, भगवंताच्या सहस्त्र नांवांतल्या खंयच्याय नांवाचो जरी काळजांतल्यान उगडास केलो जाल्यार मनशांची पुराय पापां नश्ट जातात. मनांत पवित्र भाव निर्माण जातात. पुराय आळवारांनी नाममहिमा गायल्या. नाममाहात्माविशीं ताणीं उक्तायल्ले विचार अशें आसात -

नंचुतान कंटीर नम्सुटैय पिनैक्कु नारायणावेन्नुम् नामम्।

**अर्थ -** नारायण हें नांव कसल्यांय विखावरी आमचीं पापां आनी दोश हांकां मारून उडयता.

इच्चुवै तरिवयानपोय इन्द्रिरलोकमाळुम
अच्चुवै परिनुम वेंटेन अरंगमानगरुळाने।

**अर्थ -** भगवंताच्या नामस्मरणान जो आनंद हांव अणभवता तो सोडून इंद्रलोकार राज्य करपाचो अधिकार जरी म्हाका मेळ्ळो तरी हांव ताचो स्विकार करचो ना.

आळवारांच्या मतान भगवंताचें स्तवन हें भक्तीचें मुखेल आंग. ताचीं पुराय कवनां म्हळ्यार एके तरेचीं तुस्तपदांच. प्रबंधमांत प्रपत्ती वा शरणांगती हाचेरूच चड भर दिला. आत्मदोशांविशीं पश्चाताप करप, भगवंताक आपलो एकमेव आदार समजप आनी ताचेकडेन आपल्या उद्धाराखातीर प्रार्थना करीत रावप हाकाच प्रपत्ती वा शरणांगती म्हण्टात.

प्रबंधमाच्या जायत्या पद्यांनी खूबकडेन गुरूचें व्हडपण वर्णिलां. आळवार हे ईश्वरापरस गुरूक व्हड मानतात आनी गुरूसेवा होच परमधर्म समजतात.

भक्तिमार्गी मनशाक ईश्वरप्राप्तीखातीर संवसार आनी विशय हे विशीं वैराग्याची गरज आसता. आळवारांच्या मताप्रमाण मनशाचीं पांच इंद्रियां ताका संवसारीक बंधनांत बांदून दवरतात. देखून जो मनीस इंद्रियांचेर जैत मेळेयता तोच व्हड साधक आनी व्हड भक्त. धनाच्या लोभान मनीस जायते तरेचे अनर्थ करता देखून आळवारांनी धनाकूय वायट लेखलां.

प्रबंधमांत विष्णुच्या अवतारांचें पुराय तरेन वर्णन केलां. राम आनी कृष्ण हाका बरेंच म्हत्व दिलां. तातूंतले तातूंत ताणीं कृष्णाच्या चरितांतले जायते प्रसंग म्होवाळ शब्दांनी वर्णिल्यात.

आळवारांच्या ह्या प्रबंधमाक तमीळ आचार्यांनी वेद ही पदवी दिल्या. तमीळ लोक प्रबंधमाक तमीळ वेदूच म्हण्टात. इ. स. च्या १०व्या शतमानापसून वैशणव देवळांतल्यान ज्या ज्या वेळार वेदमंत्रांचें पठण जातालें, त्या त्या वेळार प्रबंधमाचें गायन जातालें. तशेंच देवांच्या खंयच्याय उत्सवावेळार प्रबंधमांतलीं विविश्ट पदां म्हणप जातालीं. हाचेभायर थंयच्या वैशणव लोकांच्या घरांनीय प्रबंधमाक मानाची सुवात आसताली. भुरग्याचो जल्म ते मनशाचें मरण आदी वेळार प्रबंधमांतलीं पदां म्हणपाची चाल आशिल्ली.

प्रबंधमाचेर संस्कृत तेचपरी तमीळ भाशेंतूय कांय टिका आनी भाश्यां आसात. प्रबंधमाचें पयलें भाश्य आराइरप्पडी ह्या नांवाचें नम्माळवाराच्या तिरुवाय मोळी ह्या पद्यसंग्रहाचेर जालां. ते उपरांत नंजीवर ह्या वैशणव आचार्यान ओन्पदाइरप्पडी तयार केलें. ताचो शिश्य नंपिळ्ळै हाणें मुप्पतिआराइरप्पडी वा ईडू नांवाचें भाश्य तयार केलें. हे मणिप्रवाल शैलींत (संस्कृत तमीळ भरस) बरयल्लें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रबोधचंद्रोदय :** संस्कृत भाशेंतलें एक नामनेचें रुपकनाट्य. कृष्णामिश्र हाणें तें बरयलां. चंदेल्ल वंशांतलो राजा कीर्तिवर्मा हाणें गोपाल हाच्या पालवान चेदी राजा कर्ण हाका हारोवन आपलें गेल्लें राज्य १०४२त परत मेळयलें. हें जैत मनोवपाखातीर गोपालाचे आज्ञेवयल्यान कृष्णामिश्रान हें नाटक बरयलें अशें नाटकाचे प्रस्तावनेंत म्हळां.

प्रबोधचंद्रोदयाचे रचनेविशीं एक आख्यायिका प्रचलीत आसा ती अशी - कृष्णामिश्र हो हंस पंथीय संन्यासी आशिल्लो. तो अद्वैत तत्त्वगिन्यानाचो उपदेश करतालो. ताचो एक शिश्य तत्त्वगिन्यानाचो उपहास करून नाटकां आनी शृंगारीक साहित्य हातूंत चड लक्ष घालूंक लागलो. ह्या शिश्याचें चंचल मन शांत करपाखातीर कृष्णामिश्रान हें नाटक रचलें. हें नाटक इकराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत बरयलें, अशे पुरावे कांय फातरापट्यांनी मेळटात.

'परमार्थ गिन्यानरुपी चंद्राचो उदय' हो ह्या नाटकाच्या माथाळ्याचो अर्थ. नाटकाचे स अंक आसून तातूंत प्रवृत्ती, निवृत्ती, मोह, विवेक ह्यो अमूर्त संकल्पना व्यक्तीरेखांवरवीं पिंतारल्यात. नाटकाचें कथानक थोडेभितर अशें - शिव मायेच्या समागमांतल्यान 'मनस्' नावांचो पूत जल्मता. मनस् फुडें राजा जाता. प्रवृत्ती आनी निवृत्ती ह्यो ताच्यो दोन राणयो. तांचेपसून ताका अनुक्रमान मोह आनी विवेक अशे दोन पूत जातात. ह्या दोन पुतांमदीं द्वंद चालू आसता. काम, रती, क्रोध, दंभ, दभाचो आजो अहंकार हे मोहाचे साथीदार. जाल्यार मती, धर्म, करुणा, इश्टागत, शांती, शांतीची आवय श्रद्धा, क्षमा, संतोष, भक्ती हे विवेकाक मदत करपी आसात. विवेकाचें उपनिषद नांवाचे बायलेकडेन लग्न जाल्यार तिगेर प्रबोध हो पूत आनी विद्या नावांची धूव जल्माक येतली आनी तीं दोगांय मोहाक हारयतलीं, अशी भविश्यवाणी आसा. नाटकाचे अखेरेक ही भविश्यवाणी खरी जाता. ह्या नाटकाच्या उपकथानकांत शांती आनी श्रद्धा आसात. मोहाचे साथीदार श्रद्धेक उबारून व्हरून लिपोवन दवरतात. शांती तिच्या सोदांत हेडपाक लागता. जैन, बौद्ध, कापालिक ह्या धर्म-पंथांकडेन ती जेन्ना सोद घेता, तेन्ना त्या धर्माच्यो वा पंथांच्यो बायलो आपुणूच श्रद्धा अशें भासयतात. पूण शांतीक तें असत म्हणून खबर आसता. निमाणी खरी श्रद्धा विष्णुभक्तीकडेन सांपडटा.

शांतरसाचो प्रयोग म्हणून हें नाटक बरयलां, अशें प्रस्तावनेंत म्हळां. तरी लेगीत कथानकाचे मांडावळींत शृंगार आनी हास्य हे रस आनी भक्तीचो भाव हांचो बरो मेळ सादला. दंभ आनी अहंकार हांच्या संवादांतल्यान तशेंच हेर धर्मपंथियांचे वादविवाद, ढोंगीपणां हातूंतल्यान खरमरीत टिकेचो उद्देश सादला. नाटकांतल्यो घडणुको, व्यक्तीचित्रण, काव्यमय भास, पदां हे सगळे घटक कृष्णामिश्रान व्हडा कसबान हाताळ्ळ्यात. अद्वैत वेदात आनी विष्णुभक्ती हांचो सोबीत मेळ नाटकांत दिश्टी पडटा. नाटकाचें सार म्हळ्यार विवेकावरवीं मोहाचेर हार घाली म्हण्टकच शाश्वत गिन्यान मेळटा. उपनिषदांचें शिकप करून विष्णुभक्तींत

लीन जातकच प्रबोधरूपी चंद्राचो उदय जाता.

ह्या नाटकाचे जर्मन, इंग्लीश, फ्रँच आनी मराठी अणकार जाल्ले आसात. डॉ. सीताकृष्ण नंबिआर हाणें ह्या नाटकाची संस्कृत संहिता, इंग्लीश प्रस्तावना आनी अणकार हांचेसयत उजवाडायल्या (१९७१).

- कों. वि. सं. मं.

**प्रबोधनकाळ :** युरोपाचो इतिहास, पुर्विल्लें युग, मध्ययुग आनी आर्विल्लें युग अशा तीन कालखंडांनी वांटला. ग्रीसी आनी रोमी संस्कृतायांचो कालखंड म्हळ्यार पुर्विल्लें युग. युरोपांत रोमी बादशाह कॉन्स्टंटीन हाणें क्रिस्तांव धर्माची दिक्षा घेतसावन प्रबोधन काळामेरेनचो म्हळ्यार तेराव्या शतमानामेरेनचो काळ हे मध्ययुग. आर्विल्ल्या युगाची सुरवात चवदाव्या शतमानासावन जाता. चवदावें शतमान ही प्रबोधनकाळाची सुरवात आनी पंदरावें आनी सोळावें अशीं दोन शतमानां हो प्रबोधनकाळाचो उत्कर्श काळ अशें समजतात.

ह्या तीन शतमानांच्या काळांत आर्विल्ले संस्कृतायेची बुन्याद घाली. युरोपांतल्या सामान्य मनशांची संस्कृताय ह्या तीन शतमानांनी मध्ययुगीन धर्मीक क्रिस्ती संस्कृतायूच आशिल्ली. पूण खास करून इटलींतल्या कांय मनशांक जिविताकडेन पळोवपाची एक नवी नदर मेळ्ळी. प्रबोधनकाळाचे स्फुर्तीचें मुखेल केंद्र म्हळ्यार इटली. प्रबोधनाची स्फूर्त इटलीकडल्यान पंदराव्या आनी सोळाव्या शतमानांनी फ्रांस, स्पेन, नेदर्लंड्स, जर्मनी आनी ब्रिटन ह्या देशांनी घेतली. पोरणी बंधनां नश्ट जावन मनशाचे बुद्धीक आनी सर्जनशीलतेक एक नवी दिका मेळ्ळी. नवें काव्य, नवें नाटक, नवें साहित्य, नवी कला, नवें विज्ञान आनी तंत्रगिन्यान उदयाक आयलें.

ह्या प्रबोधनकाळाच्या उत्कर्श काळांत धाडसी दर्यावर्दी युरोपीय लोकांनी धर्तरेवयले नवे नवे देश सोदून काडले. कोलंबसान अमेरिकेलागसारच्या वॅस्ट इंडीस जुंव्याचेर आपलें तारूं व्हेलें. (१४९२). १४९७त जॉन कॅबटाक लॅब्रॅडोरचो सोद लागलो. वास्को-द-गामान दर्यामार्गान आफ्रिकेक प्रदक्षणा घालून कालिकताची दर्यादेग (१४९७-९८) गांठली. फेर्दिनाद मागाल्लेयांयश ह्या पुर्तुगेज भोंवडेकारान दर्यामार्गान पयली पृथ्वीप्रदक्षणा पुराय केली (१५२२). धर्तरेचो आकार आनी तिचेवयली उपाट साधनसंपत्त हांची म्हायती युरोपीय लोकांक जाली. ट्यूको ब्राए, योहानेस कॅप्लर, कोपर्निकस, देल्ला पॉर्ता, गॅलिलीओ हाणीं खगोलविज्ञानांत मोलाची भर घाली. कितल्याशाच नव्या तान्यांचो सोद लागलो.

नवीं साधनां आनी यंत्रां तयार जावपाक लागलीं. योहान गूटेनबॅर्क हाणें १४४० त तवो छापखानो सोदून काडलो. आनिकूय खूब छापखाने तयार जाले आनी पंदराव्या शतमानांत सुमार दोन कोटी पुस्तकां छापलीं.

मानव्यविद्येच्या शिक्षणक्रमाची कार्यावळ चालीक लावपाचें म्हत्वाचें काम ह्या काळांत जालें. मनशाची उदरगत शिक्षणानूच जाता, हो प्रबोधनीय मानवतावादाचो प्रास्ताविक विचार फुडें आयलो. साहित्य, चित्र, मुर्ती, मंदिर, कला, संगीत, नितीशास्त्र, राज्यशास्त्र, इतिहास ह्या फांट्यांचो शिक्षणक्रमांत आस्पाव केलो.

इगर्जेचें वर्चस्व त्या काळांत बरेंच उणें जालें. पवित्र रोमी साम्राज्याचो अंत जाल्ल्यान इटलीची राजकीय विभागणी कितल्याशाच राज्यांनी जाल्ली. सरंजामशाय वचून स्वतंत्र वेपारी, गिरेस्त लोकांची भरभराट जाली. नवशिक्षीत मंत्री, सत्ताधारी, राजपुत्र, कलाकार, कवी, कारागीर अशा तरणाट्या आनी मध्यमवयीन बुदवंतांचो एक श्रेश्ठ असो वर्ग तयार जालो. फ्लॉरॅन्सांतली प्लॅटॉनीक अकादमी ही प्लॅटोच्या अध्ययनाचें मुखेल केंद्र जाली.

चवदाव्या शतमानांत प्रबोधनाचो पयलो प्रतिनिधी पीत्रार्क (१३०४-७४) जल्मलो. अलिग्येअरी दान्ते (१२६५-१३२१) हाणें इटलियी भाशेक साहित्याचो आकार दिलो. जोव्हान्नो बोकाचीओ (१३१३-७५) हाणेंय इटलियी साहित्यांत मोलाची भर घाली. लॅटीन व्याकरण आनी कोश हांच्या आदारान बरे अणकार, टिका, पत्रवेव्हार, इतिहासीक व्याकरणाचे आनी हेर ग्रंथ हांचें संपादन व्हड प्रमाणाचेर करपाचो फुडाकार पीत्रार्क हाणें घेतलो. ग्रीसी साहित्य तशेंच शास्त्रीय आनी तत्त्वगिन्यानाचे ग्रंथ हांचे अणकार जावपाक लागले. व्हॅनिसांत तयार जाल्ले नेटान छापणावळ करपी छापखाने हांकां लागून ग्रंथ चळवळ वाडली. तात्त्विक विचाराक आनी धर्मचिंतनाक नवी प्रेरणा मेळ्ळी. इटलियी लोकभाशेची प्रकृतीच बदलली. लोकभाशेच्या रुपांत विश्वाचो थाव घेवपी मानवी प्रज्ञा आकाराक आयली.

इटालियी प्रबोधनांतल्या तात्त्विक विचारांचें तीन फांट्यांनी वर्गीकरण करतात - मानवतावाद, प्लॅटोची मानवतावादाकडे संवादी अशी नवी मांडावळ आनी ॲरिस्टॉटलाच्या विचारांची संशोधनात्मक नदरेन केल्ली विज्ञाननिश्ठ मांडावळ. मानवतावादाकडेन सुसंगत अशेच तरेन प्लॅटो आनी ॲरिस्टॉटल हांच्या विचारांचें हातूंत समर्थन जालें.

पीत्रार्क आनी लोरेन्सो व्हाल्ला हाणीं धर्मीक मानवतावादाचो पुरस्कार केलो आनी इगर्जेचें वैचारिक आधिपत्य न्हयकारलें. क्रिस्तांव धर्माच्या तत्त्वगिन्यानाची मांडावळ ऑगस्टीन हाणें प्लॅटो आनी प्लोटायनस हांचेकडेन बायबलांतल्या विचारांचो मेळ सादून केली. मानवतावादाच्या प्रभावाखाल प्लॅटोच्या विचारांक वेगळो आकार दिवन जोव्हानी देल्ला मिरांदोला पीको (१४६३-९४) आनी मार्सील्या फिचीनो (१४३३-९३) हाणीं क्रिस्तांव धर्माच्या तत्त्वगिन्यानाची मांडावळ केली. ताणीं क्रिस्ती देवविद्या, प्लॅटोचें तत्त्वगिन्यान आनी मानवी ऐहिक मुल्यां हांचो समन्वय केलो. प्लॅटोचें शाश्वत आनी मंगलमय सत्य आनी मनशाची आदर्शाविशींची ओड हांचो अतूट संबंद ताणीं पारखिलो. कलापूर्ण जिविताचें समर्थन ह्या अतूट संबंदांतल्यान मेळ्ळें. स्वातंत्र्याचो विस्तार आनी विकास करपाची बौद्धीक शक्त देवाक मनशापसून मेळ्ळ्या हो विचार पीकोन 'Oration on the dignity of Man' ह्या प्रवचानांत मांडलो. प्लॅटो आनी ॲरिस्टोटल ह्या दोनूय परंपरेंतलो निश्कर्श सुसंगत आसा, ह्या मुद्द्याची ताणें खोलायेन विस्कटावणी केली. पिकोच्या ह्या म्हत्वाच्या प्रवचनांत प्रबोधनाचें पुराय सार आयलां, अशें याकॉप बुर्कहार्ट हाणें म्हळां.

ॲरिस्टॉटल प्रेरीत निसर्गवादाचेर आदारिल्ली मानवतावादी विचारसरणी धर्मीक मानवतावादा उपरांत फुडें आयली. ही विचारसरणी लोरेन्सो व्हाल्ला हाणें मांडली. ताणें मनशाच्या इत्सा स्वातंत्र्याचो सिद्धांत व्हड युक्तीवादान मांडलो. ॲरिस्टोटलाची तत्त्वमीमांसा आनी भौतिकी हांचेपरस ॲरिस्टॉटलाच्या नितीशास्त्राकूच प्रबोधन काळांतल्या विचारवंतांनी चड म्हत्व दिलें. विज्ञानीक विचारांची आनी कलांची निर्मिती करपी एकूच मानवी प्रज्ञा आसा, अशी विचारधारा प्रबोधनकाळांत प्रस्थापीत जाली.

तोम्माझो कांपानेल्ला (१५६८-१६३९) हाणें सर्वधर्मसमन्वयवादी तत्त्वगिन्यानाची विस्कटावणी केली. क्रिस्तांव आनी इस्लाम धर्म हांचो

समन्वय सादपाचो ताणें यत्न केलो आनी आपलें नवें तत्त्वगिन्यान कांय निबंदांच्या स्वरुपांत मांडलें. सैम आनी मनीस हे देवाचे दिव्य शक्तीचे आविश्कार आसात, हो मूळ सिद्धांत क्यूसेनस हाणें मांडलो. बायबलांतल्या मनशाचे पापमय जिणेची मीमांसा मध्ययुगीन क्रिस्ती विचाराचें मुळावण जावन राविल्ली. ही बुन्याद प्रबोधनकाळांत कोसळ्ळी. ताका क्यूसेनसचें योगदान कारण थारलें. मनशाचे ऐहिक जिणेचें धर्मीक पवित्र मुल्य प्रबोधनयुगांत आपणायलें.

प्रबोधनकाळांत मनीस हो देवाची प्रतिमा, हे कल्पनेक म्हत्व आयिल्ल्यान आनी अनंताचो वेध घेवपाची ताची शक्त सिद्ध जाल्ल्यान मनशाच्या भवितव्याचो कारागीर मनीसूच थारलो. दैवगती न्हय जाल्यार मनशाचें धाडसूच मनशाचें भवितव्य घडयता हो सिद्धांत ब्रुनोन स्थापन केलो. ब्रुनो हो प्रबोधन-तत्त्वगिन्यानाची ज़िविताकडेन पळोवपाची मुळावी प्रवृत्ती स्पश्टपणान मांडपी हुतात्मो वीर जावन आसा. ताणें प्रबोधनकाळांतल्या मनशाचो आत्मविश्वास घट केलो. पूण दैवगती आनी शौर्य हांचेविशीं नीक्कोलो मॅकिआव्हॅली (१४६९-१५२७) हाणें आनिकूय विस्तारान मांडावळ केली. लेओन बातिस्ता आल्बेर्ती (१४०४-७२) हाणेंय दैवगती विशींचे विचार मांडले. मार्सील्या फिचीनो, निकोलेअस क्युसेनस आनी प्रबोधनकाळांतली धर्मीक मानवतावादाची तेंगशी गांठिल्लो डेसिडीअरीअस इरॅस्मस हाणीं सर्वधर्मसमभाव आस्पावपी धर्मीक तत्त्वगिन्यान मांडलें आनी मानवी एकचाराची तात्त्विक बुन्याद रचली.

गणिततज्ञ, तंत्रज्ञ, कलाकार हाणीं परंपरागत पुस्तकी गिन्यानाक म्हत्व दिनासतना प्रत्यक्ष सैमाचो अणभवूच प्रमाण मानलो. मनशाचें सर्जनशील मन इंद्रियगम्य सैमाच्या आदारान आकार निर्मिता, आकार बदलता, असो प्रबोधनकाळांतले कलेचो म्हत्वाचो आशय जालो. प्रबोधनाकाळांतले कलाकार हे सौंदर्याक फकत मानसिक अधिश्ठान अशें मानिनाशिल्ले. ताका सैमाइतलीच वास्तवताय आसा, अशें मानूंक लागले. प्रबोधनकाळाच्या उत्कर्श काळांत बुद्धिगम्य सामान्य नेमांच्या रुपांतलें सत्य आनी इंद्रियगम्य अनंत खाशेलपणांनी भरिल्लो सैम हांची एकरूपताय मतींत आयली. धर्मीक मानवतावादान सैम हेंच ईश्वरी प्रगटन थरयलें. सैमीक मानवतावादाची बरीच उदरगत जाली. आर्विल्ल्या विज्ञानयुगाची हीच बुन्याद जावन रावल्या.

लिओनार्दो द विन्सी हाणें परंपरागत पुस्तकी गिन्यानाचेर चड विश्वास दवरिनासतना सैमाच्या पुस्तकाचेरूच चड भर दिवंचो अशें मत मांडलें. गॅलिलिओन गिन्यानाचे दोन प्रकार सांगले – सैमांतल्या अगणित वस्तूंचें गिन्यान आनी बुन्यादी व्यापक तत्त्वांचें गिन्यान. कारण पयलो प्रकार अशक्य आनी दुसरो प्रकार शक्य आसा अशें ताणें मानलें. कारण दुसऱ्या प्रकारांत गणित ज्ञान येता. ताची दिव्य गिन्यानाकडेन तुळा जावंक शकता.

सोबीतकाय आनी नियमबद्दताय हांचे एकरुपतायेची उत्कट संवेदना प्रबोधन संस्कृतायेचेर शेक गाजयत आशिल्ली. ही संवेदना कला आनी विज्ञान हांची बसकाच थारली. कोपर्निकस, कॅप्लर आनी गॅलिलिओ हांच्या प्रबोधनकाळांतल्या खगोल विज्ञानान पुर्विल्लें युग आनी मध्ययुग हांचेमदीं मान्य जाल्लें विश्वरचनाशास्त्रूच कोसळ्ळें. लिओनार्दो हो आर्विल्ल्या युगाचे सुरवातीचो पयलो सैमविज्ञानी जाल्यार मॅकिआव्हॅली हो पयलो समाजविज्ञानी. समाज कसो चलता आनी लोक कशे वागतात हांचेर आदारिल्लें राज्यशास्त्र मॅकिआव्हॅलीन पयलीं निर्माण केलें. ताणें बरयल्ल्या 'द प्रिन्स' ह्या ग्रथांक लागून इहवादी वा निधर्मी राजकारणी विचार अस्तंतेंत थिरावले आनी वाडूंक लागले. मॅकिआव्हॅली उपरांत पांच वर्सांनी जल्मल्लो दुसरो नामनेचो मानवतावादी राज्यशास्त्रकार टॉमस मोर (१४७८-१५३५) हाणें मॅकिआव्हॅली परस वेगळेच तरेचें आदर्शवादी राज्यशास्त्र बरयलें.

परंपरागत राजकीय प्रथा तपासून सत्तेच्या राजकारणांतल्यान मुक्त असो समाज निर्माण कसो जातलो, हें परगटावपाखातीर ताणें युटोपिया (Utopia) हो म्हत्वाचो ग्रंथ बरयलो. बायबलांतल्या क्रिस्तान केल्लो दोंगरावयलो उपदेश आनी सेंट ऑगस्टीन हाचे 'ईश्वराची नगरी' हें पुस्तक ह्या दोन गजालींचो ताचेर बरोच प्रभाव आशिल्लो. ताका ईश्वरनगरी निर्मुपाची नाशिल्ली जाल्यार 'आदर्श मानवी नगरी' निर्माण करपाची आशिल्ली.

इटलीउपरांत फ्रांस, नेदरलँड्स, स्पेन, इंग्लंड आनी जर्मनी ह्या राश्ट्रांनी प्रबोधनाची चळवळ ल्हव ल्हव पातळ्ळी आनी ताका लागून नवी कला, काव्य, साहित्य, तंत्रविज्ञान आनी विज्ञान हांचे नवे नवे आविश्कार जावंक लागले. प्रबोधनाची ही प्रेरणा वेगवेगळ्या रुपांनी युरोपाच्या अस्तंत देशांनी आकाराक आयली आनी ती इतिहासीक संक्रमणांतल्यान आर्विल्ल्या विज्ञानयुगाची थीर अशी बसका जाली.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रभाकर :** (जल्म : १७६९, मुरुड, रत्नागिरी; मरण : १८४३).

एक नामनेचो शाहीर. ताचें पुराय नांव प्रभाकर जनार्दन दातार. तो जातीन चित्पावन ब्राह्मण आशिल्लो. ताचो जल्म नाशिक लागसल्ल्या गंगापूर गांवांत जालो. पिरायेच्या पंदरा-सोळा वर्सांसावन तो कविता करूंक लागलो. गंगापूरासावन पुण्याक वतकच तो रास्ते हाचेकडेन कारकून म्हणून काम करूंक लागलो. थोडयाच काळांत ताच्या कवनांची नामना सगळेकडेन पातळ्ळी. तमासगीर लोकूय ताच्या कवनांची मागणी करूंक लागले. तेन्ना तो गंगू हैवनीच्या फडांत गेलो. सवाई माधवराव आनी दुसरो बाजीराव हांच्या काळांत ताची नामना पेशव्याच्या दरबारांत पावली. बाजीरावाचेर ताणें ३०-४० लावण्यो बरयल्यो. पुराणीक कथांचेर आनी देवदेवतांचेरूय ताणें जायतीं पदां रचल्यांत. तेभायर ताणें भरपूर पोवाडे रचल्यात. ताणें चडशे वीर, शृंगार आनी करुणा अशे तीन रस आळयल्यात. अचूक शब्दयेवजण, रेखीव रचना आनी चित्तवेधक वर्णनशैली आदी उल्लेख करपासारकीं खाशेलपणां ताच्या कवनांनी दिसतात. पेशवाईविशीं ताका खुबूच ओड आशिल्ली. देखुनूच ताणें खडर्याचें झूज, रंगाचो दरबार, सवाई माधवरावाचें मरण, बाजीरावाचो राज्यनाश आदी विशयांचेर भरपूर पोवाडे रचल्यात.

पेशवाईचो अस्त जातकच प्रभाकराचेर खुबूच वायट दीस आयले. पोट भरपाखातीर फुडें ताका मुंबय, ठाणें, बडोदें शारांची भोंवडी करची पडली. ह्या काळांत तो व्हड व्हड वेपारी आनी श्रीमंत लोक हांचेरूय कवनां करून गावंक लागलो. निमाणच्या काळांत तो दारादारांनी डफ घेवन भोंवतालो.

प्रभाकराक हिंदी आनी उर्दू भाशांचेंय गिन्यान आशिल्लें. ताच्यो कांय हिंदी कविताय उपलब्ध आसात.

– कों. वि. सं. मं

**प्रभात फिल्म कंपनी :** भारतीय चलचित्रसृश्टीचो इतिहास घडोवपी महाराष्ट्रांतली नामनेची चलचित्रनिर्मिती संस्था. हे संस्थेची स्थापणूक १ जून १९२९ दिसा कोल्हापूराक जाली. विष्णुपंत गोविंद दामले, शेख फत्तेलाल, व्ही. शांताराम आनी केशवराव धायबर ह्या चार कलावंतांनी सीतारामपंत विष्णु कुलकर्णी हांच्या अर्थीक पालवान ही संस्था स्थापन केली. फुडें बाबूराव पै हाणें हे संस्थेक यंत्रसामुग्री मेळोवन दिवपाक पालव दिलो. दिग्दर्शन : व्ही. शांताराम, कला: दामले आनी फत्तेलाल आनी छायाचित्रण : केशवराव धायबर अशी सुर्वेक ताणीं कामाची वांटणी करून घेतिल्ली.

सुरवातीच्या काळांत हे कंपनीत गोपालकृष्ण (१९२९), खुनी खंजीर (१९३०), राणीसाहेब उर्फ बजरबट्टू (१९३०), उदयकाल (१९३०), चंद्रसेना (१९३१) आनी जुलूम (१९३१) अशे स मुकपट निर्माण केले. 'बजरबट्टू' हो बालकलाकाराची मुखेल भुमिका आनी 'चंद्रसेना' हे दोट्टी भुमिका आशिल्ले पयले भारतीय चलचित्र आशिल्ले.

प्रभात कंपनीन १९३२त, 'अयोध्येचा राजा' हो राजा हरिश्चंद्राचें कथानक आशिल्लो पयलो बोलपट तयार केलो. ह्या चलचित्रांतल्यान दुर्गा खोटे, गोविंदराव टेंबे, मास्टर विनायक, बाबुराव पेंढारकर हे नामनेचे कलाकार रुपेरी पड्ड्यार आयले. ते उपरांत १९३२त, 'अग्निकंकण' (हिंदी : जलती निशानी) आनी 'माया मच्छिंद्र' हे बोलपट काडले. १९३३त, कंपनीन 'सिंहगड' हे मराठी चलचित्र निर्माण केलें. 'सैरंध्री' (१९३३) हें प्रभाताचें पयलें रंगीत चलचित्र.

फुडें प्रभात कंपनीचें स्थलांतर कोल्हापूरासावन पुण्याक जालें. थंय ना. ह. आपटे हाणें बरयल्लें 'अमृतमंथन' (१९३४) हें चलचित्र व्ही. शांताराम हाणें काडलें. हिंदीचलचित्रांत सगळ्यांत पयली रुप्या सुवाळो मनोवपाचो भोवमान प्रभात कंपनीन ह्या चलचित्रवरवीं मेळयलो. १९३५त, 'चंद्रसेना' हो बोलपट प्रभातान मराठी, हिंदी आनी तमीळ अशा तीन भाशांनी सादर केलो.

व्ही. शातांराम हाणें १९३६त काडिल्ल्या 'अमरज्योती' ह्या चलचित्रावरवीं प्रभातान पार्श्वगायनाची प्रथा सुरू केली. १९३६त कंपनीन काडिल्ल्या 'संत तुकाराम' ह्या बोलपटाक आंतरराश्ट्रीय नामना मेळ्ळी. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत मानवतेचो दिव्य संदेश दिवपी संत ज्ञानेश्वर (१९४०) हें प्रभाताचें चलचित्र खूब गाजलें. न्यूयॉर्कांत दाखयल्लें हें पयलें भारतीय चलचित्र. 'गोपालकृष्ण' (१९३८), माणूस (१९३९), शेजारी (१९४१), संत सखू (१९४१), दहा वाजता (१९४२), नई कहानी (१९४३) आनी रामशास्त्री (१९४४) हे चित्रपट कंपनीन निर्माण केले.

अर्थीक अडचणींक लागून १३ ऑक्टोबर १९५३ दिसा प्रभात फिल्म कंपनी बंद करची पडली. सुमार २४ वर्सांच्या ह्या काळांत प्रभातान हिंदी-मराठी ३४, फकत हिंदी ११, फकत मराठी ३, तमीळ १ अशे ४९ बोलपट सादर केले. ताणीं कांय मूकपट, व्यंगपट आनी लघुपटूय तयार केल्यात. तुतारी हें कंपनीचें वेवसायिक चिन्न आशिल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रभुदेसाय, केशव :** गोंयांतलो आदिलशाहाच्या काळांतलो एक सरदार. ताचें मुळचें उपनांव प्रभु. ताका आदिलशाहाकडल्यान पेडणेंच्या अस्तंत वाठाराची देसायकी मेळिल्ल्यान ताका देसाय म्हणूंक लागले. पार्शे हो ताचो गांव. सद्याचे पार्सेकर देसाय हे ताचे वंशज. सावंतवाडीच्या लखम सावंत भोंसले सरदेसाय हाच्या अधिकाराखाल आशिल्लो. वाडकारांक ताका सारावसुलीची रक्कम दिवंची पडटाली. वाडकार हे विजापूरकारांचे सरदेसाय आशिल्ले. हो वाठार आदिलशाहा कडल्यान शिवाजीकडेन गेल्ल्यान आनी परतो शिवाजीकडल्यान आदिलशाहाकडेन गेल्ल्यान लखम सावंत सरदेसाय आनी पेडणें, भतग्राम, कुडाळ आदी वाठारांतल्या देसायांक त्रास जाताले देखून लखम सावंत पुर्तुगेजांक वचून मेळ्ळो. तरीय शिवाजी महाराजान परतो एक फावट १६६३त कुडाळ वाठार घेतलो. आदिलशाहाकडल्यान ताच्या त्र्यंबक काळो नांवाच्या फोंडेच्या किल्लेदाराक हुकूम जालो, लखम सावंत भोसले सरदेसाय, केशव प्रभु, केशव नायक, रवळू शेणवी, चंदा राणे आनी देसाय मंडळीच्या आदारान शिवाजीकडेन गेल्लो वाठार परतो मेळोवंचो. पूण ताका तें जमलें ना. शिवाजीन बारदेसाचेर घुरी घाली तेन्ना देसाय मंडळी पुर्तुगेजांवटेन लडली. तेन्नाय शिवाजीक जैत मेळ्ळें. तेन्ना केशव प्रभु आनी केशव नायक हे पुर्तुगेजांच्या आलाशिऱ्याक गेले आनी कोलव्यां वचून रावले. फुडें शिवाजी आनी पुतुगेज हांचेमदीं कबलात जातकूच पुर्तुगेजांनी ताका पयस केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रभुदेसाय, डॉ. वि. बा. :** (जल्म : १४ जानेवारी १९३२, खरेगाळी, काणकोण).

पुराय नांव विठ्ठल बाबू प्रभुदेसाई. गोंयचो नामनेचो भास संशोधक. ताणें पणसखडे, माशे आनी लोलयां मराठी मुळावें शिक्षण घेतलें. मल्लिकार्जुन विद्यालयांत ताणें इंग्लिशींतल्यान लिसेंवाचें तीन वर्सांमिरेन शिक्षण घेतलें. सेगुंद ग्रावाचे परिक्षेंत तो काणकोण तालुक्यांत पयलो आयिल्लो. १९५१ वर्सा तो एस.एस.सी. जालो. कारावाराक आसतना ताका मराठी आनी संस्कृत ह्या भाशांच्या अध्ययनाची गोडी लागली. फुडें ताणें कॉलेजीक वचनासतना खाजगी रितीन अभ्यास करून १९५५ वर्सा नागपूर विद्यापीठाची बी.ए. ची पदवी मेळयली. १९५७त ताणें नागपूर विद्यापीठाचीच एम्.ए. ची पदवी मेळयली. १९५७त तो मुंबय गेलो आनी अ. का. प्रियोळकरांच्या मार्गदर्शनाखाला १९६१ वर्सा ताणें पीएच्. डी. ची पदवी संपादन केली. 'मराठीच्या गोमंतकी बोलीतील जेजुइतांच्या सतराव्या शतकातील वाङ्मयाचे चिकित्सक अध्ययन' हो ताच्या अभ्यासाचो विशय आशिल्लो. फुडें, 'सतराव्या शतकातील गोमंतकी बोली' (१९६३) ह्या नांवान हो प्रबंध मुंबय विद्यापीठान १९६३ वर्सा उजवाडा हाडलो. प्रबंधाचें काम चालू आसतना तो 'बॉंबे सिटी सोशल एज्युकेशन कमिटींत' संशोधन सहाय्यक म्हणून काम करतालो. प्रौढ साक्षरांच्या शब्दसंग्रहाचो अभ्यास करून ताणें एक अहवाल तयार केलो आनी ताच्या आदारान 'आपले सण' हें नवसाक्षरांखातीर पुस्तक बरयलें. पीएच. डी. पुराय जातकच ह्याच वर्सा तो बेळगांवच्या राणी पार्वतीदेवी कॉलेजांत मराठी लेक्चरर जालो. मडगांवचे चौगुले कॉलेजींत मराठी विभागाचो मुखेली म्हणून ताणें दोन वर्सां काम केलें. उपरांत तो परत नागपूराक गेलो. थंय नागपूर विद्यापीठाच्या स्नातकोत्तर (पोस्ट ग्रॅज्युएट) मराठी विभागांत ताणें १९६४ ते १९९२ ह्या काळांत लॅक्चरर, प्रपाठक

(रीडर), प्राध्यापक, विभाग मुखेली अशा विविध पदांचेर अध्यापन आनी संशोधनाचें कार्य केलें. ताच्या मार्गदर्शनाखाल सुमार २३ विद्यार्थ्यांनी डॉक्टरेट आनी सुमार ४१ विद्यार्थ्यांनी एम्. फील. मेळयली.

प्रभुदेसायाक ताच्या भुरगेपणांतूच वाचनाची आवड निर्माण जाली. काणकोणां पुर्तुगेज शाळेंत आसतना तो हस्तलिखीत नेमाळें चलयतालो. तातूंत तो स्वताच लिखाण करतालो. कारवाराक आसतना हायस्कुलाच्या वर्सुकी नेमाळ्यांत ताचो 'देवगडची सहल' हो पयलो लेख छापून आयिल्लो. लिखाण आनी उलोवप ह्या सर्तींनी ताका इनामां मेळटालीं. खेळगडी, आनंद, बालसन्मित्र ह्या बालसाहित्य मासिकांतल्यानय ताचें बरप उजवाडा येतालें.

तरणे पिरायेचेर ताणें लिखाणाचो विशय बदललो आनी तो मराठी भाशेच्या आनी साहित्याच्या वावराक लागलो. उपरांत विदर्भ संशोधन मंडळ पत्रिका, मराठी संशोधन पत्रिका, महाराष्ट्र साहित्य पत्रिका, युगवाणी, नवभारत ह्या सारक्या नेमाळ्यांतल्यान ताचे लेख उजवाडाक आयले.

'आपले सण' (१९६१) ह्या पुस्तकाउपरांत ताचे सुमार धा संशोधनपर ग्रंथ उजवाडाक आयल्यात. 'सतराव्या शतकातील गोमंतकी बोली' हो एकूच प्रबंध ताचो स्वतंत्र ग्रंथ आसून हेर ग्रंथ संपादित आसात. तातूंतले 'क्रिस्ताच्या वधस्तंभारोहण - प्रसंगींचे विळाप' (१९७१), 'वनमाळ्यांचॉ मळॉ' (१९७४), 'क्रिस्ताचें यातनागीत' (१९९०), 'सर्वेश्वराचा ज्ञानोपदेश' (१९९४), 'कृष्णदास शामा विरचित श्रीकृष्ण चरित्र कथा' (१९७५) हे ग्रंथ (निमाणो ग्रंथ सोडून) गोंयांत तयार जाल्ल्या खिस्ती मिशनरी लेखकांच्या ग्रंथांचें संपादन आसा.

ताच्या 'सतराव्या शतमानातील गोमंतकी बोली' ह्या ग्रंथाक महाराष्ट्र राज्य सर्तींत इनाम फावो जालां. पूणें विद्यापीठानूय ताका 'वासुदेव गोविंद आपटे' इनाम दिलां. गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचें १९६५ वर्साचें भांगरा पदकूय ताका फावो जालें. ताच्या 'अभीमन्येविव्हावो' (१९७२) ह्या ग्रंथाचो आस्पाव एम्. ए. च्या अभ्यासक्रमांत केला. ताचो 'श्री कृष्णचरित्रकथा' (१९७५) हो संपादित ग्रंथ १९७५त उजवाडाक आयलो.

काणकोण तालुक्यांतल्या गांवदोंगरेचो मल्लिकार्जुनाचो टको आनी पैंगीणीचो वेताळाचो टको थंयच्या जात्रांनी वाचपाची चाल आसा. टको म्हळ्यार कपड्याचेर बरयल्लो पुर्विल्लो लेख. अशे टके आनीक खंयच पळोवंक मेळनात. ह्या टक्क्यांच्या संशोधनावरवीं ताणें गोंयच्या मराठी भाशेसंबंदीं कांय अनुमानां काडल्यांत.

गोंयांत आसतना गोमंतक साहित्य सेवक मंडळांत तो पदाधिकारी आशिल्लो. नागपूराक तो थंयच्या विदर्भ साहित्य संघाचे कार्यकारिणीचो वांगडी आशिल्लो. तीन वर्सां ह्या संघाच्या 'युगवाणी' ह्या मुखपत्राचो तो संपादक आशिल्लो. १९८१त राजाराम दीक्षित वाचनालयाचो सुर्वेक उपाध्यक्ष आनी उपरांत तो अध्यक्ष जालो. १९९६ वर्सा मंडगांवां जाल्ल्या २२व्या गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलनाचो तो अध्यक्ष जालो.

भाशाशास्त्राचे शाखेंत एक तत्त्वगिन्यानी म्हणून ताची नामना आसा. तशेंच एम्. ए. आनी पीएच्. डी. पदव्यांचो परिक्षक म्हणून ताची नेमणूक जाल्या. नागपूर विद्यापिठाच्या, 'मराठी वाङ्मयकोश' ह्या प्रकल्पांत तो सहाय्यक संपादक म्हणून काम करतालो. प्रा. प्रियोळकर हाच्या स्मृतीग्रंथाखातीर ताणें सहाय्यक म्हणून काम केलां. तेभायर 'मराठी वाङ्मय कोश' (१९७४), 'श्रीरुद्रेश्वरमाहात्म्य' (१९८९), कविनंदन - विरचित उषाहरनकथा' (१९६५) हे ताच्या नावार आशिल्ले कांय संपादनग्रंथ.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रभू, कृष्णा पुतू :** (जल्म : २६ ऑक्टोबर १९२९, तामणें - लोलयें, काणकोण).

सुटकेझुजारी. १९५४ मेरेन तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा मडगावां सत्याग्रह घडोवन हाडपाक ताणें उरसेलिनु आल्मैदा हाका पालव दिल्लो. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेखातीर वांगडी जमोवप, पत्रकां लावप, वण्टीचेर पुर्तुगीजांआड घोशणा पिंतारप आनी पत्रिका वांटप असलीं कामां तो करतालो. २२ फेब्रुवारी १९५६ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. ताका प्रदेशीक न्यायालयामुखार उबो करून २२ जून १९५६ ह्या दिसा आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. दोन वर्सां ताका दंड भरूंक लायलो वा ते बदला ताका आनीक दोन वर्सां ख्यास्त फर्मायली. २६ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. तो भौशीक आनी राजकीय वावरांनी वांटो घेतालो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रभू, गोकुळदास :** (जल्म : २८ डिसेंबर १९५४, चेरळाय मट्टांचेरी कोचीन, केरळ).

साहित्य अकादमी पुरस्कार प्राप्त कोंकणी लेखक. ताचें सवे यत्तेमेरेन



शिकप मल्याळम भाशेंतल्यान जालें. एस.एस.एल.सी. शिकप टि. डी. हायस्कूल मट्टांचेरी (केरळ) हांगासर जाल्यार, बी. एससी. शिकप सेक्रेट हार्ट कॉलेज तेवरा (केरळ) जालें. एम.ए.चें शिकप मदुराय कामराज विद्यापीठ, मदुरायाक (तमीळनाडू) जालें.

सद्या तो कॉरपोरेशन बँकेंत नोकरी करता. ताका कोंकणी, मल्याळम, तमीळ, कन्नड, हिंदी आनी इंग्लीश ह्यो भासो येतात.

ताचें पयलें कोंकणी बरोवप १९८१ वर्सा 'कोंकणी जनता' ह्या केरळांतल्या नेमाळ्यांत उजवाडा आयलें. केरळ कोंकणी अकादमीचे निबंद सर्तींत, 'कोंकणी जनता' ह्या केरळांतल्या नेमाळ्यांचे काव्य सर्तींत आनी 'कुळागर' ह्या गोंयच्या कथा सर्तींत ताका इनामां लाबल्यांत. कोंकणी भाशेसंबंदी बरयल्लें लिखाण हिंदू पत्राचेर उजवाडा आयलां. पृथिवै नमः ही ताची नवलिका १९८६ वर्सा पुस्तक रुपान उजवाडा आयल्या.

ताचो १९९१ वर्सा 'अंतरआयामी' हो देवनागरी कोंकणी कथासंग्रह उजवाडा आयला. ताका १९९४ वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जाला. १९९६ वर्सा कोची हांगा जाल्ल्या, अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचो तो स्वागताध्यक्ष आशिल्लो.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रभू, गोपाळ व्यंकटेश :** (जल्म : २३ सप्टेंबर १९३०, माशें – काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें एस्.एस्.सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. तेचपरी ताणें राश्ट्रभाशा प्रवीण आनी शिक्षक पदविका घेतली. १९५४ मेरेन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां वांटप, पत्रकां लावप, खबरो पावोवप, सुटकेझुजांत वांटो घेवंक लोकांक स्फूर्त दिवप असलीं कामां तो करतालो. १९५४-५६ ह्या काळांत पोलिसांनी ताका तीन फावटी धरलो. सगळे मेळून तो १८ म्हयने बंदखणींत आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमांन केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रभू, नारायण अनंत :** (जल्म : २३ जुलय १९३३, माशें, लोलयें – काणकोण).

सुटकेझुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा लोलयें वाठारांत गोविंद प्रभुदेसाय हाच्या फुडारपणाखाल ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो.

पोलिसांनी ताका धरलो आनी ताका प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त, २,००० रुपया दंड वा तो भरलोना जाल्यार आनीक दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रभू, श्रीकांत दत्ता :** (जल्म : २६ नोव्हेंबर १९३५, लोलयें – काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें एस्.एस्.सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. १९५४ मेरेन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां लावप, सुटकेझुजाऱ्यांक म्हत्वाच्यो बातम्यो पावोवप असलीं कामां तो करतालो.

२६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा लोलयें वाठारांत जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी पांच म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताका प्रदेशीक लश्करी न्यायालया मुखार उबो करून १० वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिली. तशेंच पंदरा वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. ते भायर वीस वर्सांखातीर ताका गोंयाभायर धाडलो. १५ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. १९७४ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रमाणपत्र :** कसल्याय लिखीत मजकुराच्या खरेपणाविशीं प्रमाणीत केल्लें निवेदन म्हळ्यार प्रमाणपत्र. हाका इंग्लीश भाशेंत सर्टीफिकेट (Certificate) अशें म्हण्टात. प्रमाणपत्राक खूबदां दाखलो अशेंय म्हण्टात. प्रमाणपत्रांतलो मजकूर सत्य आनी अधिकृत आसा, हाची खात्री प्रमाणपत्रावयल्यान जाता.

प्रमाणपत्रांचे वेगवेगळे प्रकार आसात. देखीक – विक्रिचें प्रमाणपत्र, वारसो हक्काचें प्रमाणपत्र, विद्यापिठाच्यो पदव्यो वा पदविका हांचे प्रमाणपत्र आदी. चड करून त्या – त्या विशयांतली प्रमाणपत्रां खाशेले रितीन दिवपाची पद्दत आसा. देखीक – न्यायालयाच्या कामाविशीं आशिल्लीं प्रमाणपत्रां वा विद्यापिठाच्या पदव्याविशींची प्रमाणपत्रां एके खाशेले परिभाशेंत वा नेमून दिल्ल्या प्रपत्रकाप्रमाण आसतात.

वेव्हारांत वेगवेगळे तरेचे लिखीत म्हायतीक अधिकृत म्हणून Certify (प्रमाणीत करप), attest (अनुप्रमाणीत करप), anthenticate (अधिप्रमाणन करप) ह्या इंग्लीश उतरांनी संबोधतात. कोणाय व्यक्तीचे वागणुकेविशींय दाखलो वा प्रमाणपत्र दिवंचो पडटा. शासकीय प्रशासनांत वा हेर भौशीक वेव्हारांत कसलेंय निवेदन प्रमाणीत करपाची कार्यपद्दत थरयल्ली आसता, तशेंच खाशेल्या व्यक्तींक वा अधिकाऱ्यांक ते विशींचे अधिकार दिल्ले आसतात.

कायद्याच्या मळार प्रमाणपत्र म्हळ्यार कसलेय गजाली विशींचे सत्यसत्यतेविशीं योग्य व्यक्तीन जाहीर रितीन केल्लें अधिकृत निवेदन. कोणाय व्यक्तीन कसलेय गजालीविशीं स्वताचे निशाणेसयत दिल्ले लेखी म्हायतीकूय प्रमाणपत्र अशें म्हण्टात. एका न्यायालयाच्या अधिकाऱ्यान दुसऱ्या न्यायालयाचे म्हायतीखातीर दिल्ले कसलेय वस्तुस्थितीविशीचें अधिकृत निवेदन म्हळ्यार प्रमाणीत प्रत (Certified copy) अशें म्हण्टात. न्यायालयांत कसलेय गजालीचे सत्यासत्यतेविशीं पुरावो म्हणूनूय कोणाय सरकारी अधिकाऱ्यान दिल्ल्या प्रमाणपत्राचो उपेग जावंक शकता.

खंयचेय वेपारी कंपनीची नव्यान स्थापना करचेली आसता, तेन्ना अशे संस्थेची कायदेशीर नोंदणी करची पडटा. अशे नोंदणे उपरांत कंपनीक वा संस्थेक जें नोंदणीपत्र दितात ताका (Certificate of Registration) अशें म्हण्टात. हें प्रमाणपत्र अशे कंपनीच्या संदर्भात ते कंपनीच्या कायदेशीर अस्तित्वाचो पुरावो म्हणून वापरतात. (Certificate of deposit) वा ठेवीविशीचें प्रमाणपत्र हें कोणाय बँक अधिकाऱ्यान दिल्ले कोणाय व्यक्तीच्या खात्यांतल्या थरावीक रकमेविशीचें प्रमाणपत्र 'Succession Certificate' वा वारसो हक्काचे प्रमाणपत्र हें खंयचेय मेल्ले व्यक्तीच्या संबंदांत त्या मनशावरवीं प्राप्त जाल्ल्या अधिकाराचें प्रमाणपत्र अशें मानतात.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रयाग :** उत्तर प्रदेशांतल्या गंगा – यमुना न्हंयांच्या संगमावयलें तीर्थस्थान. प्रयाग म्हळ्यारूच अलाहाबाद. हें यमुनेचे दावे देगेर आसून, आदल्या तेंपारसावन ताका 'तीर्थराज प्रयाग' म्हणून वळखतात. हांगा गंगा, यमुना आनी सरस्वती ह्या तीन न्हंयांचो संगम जाला. गंगा – यमुना दिसतात पूण सरस्वती दिसना. ह्या तिनूय न्हंयांच्या संगमाक 'त्रिवेणी संगम' म्हण्टात.

प्र+यजा = व्हड यज्ञ करप, ह्या धातूवयल्यान ह्या स्थानाची व्युत्पत्ती

सांगतात. शेणिल्ले चारूय वेद परत मेळटकच प्रजापतीन हांगा व्हड यज्ञ केल्लो देखून ह्या स्थानाक 'प्रयाग' अशें म्हण्टात. वाल्मिकी रामायणापसून पुराणांमेरेन ताचे ग्रंथीक उल्लेख मेळटात.

हांगाच्या त्रिवेणी संगमाचेर दर वर्सा 'माघमेळ' आनी दर बारा वर्सांनी 'कुंभमेळ' भरता. त्रिस्थळी यात्रेंतले हें एक म्हत्वाचें स्थळ आसून धर्मीक नदरेन हाका बरेंच म्हत्व आसा. त्रिवेणीमाधव, सोमेश्वर, वासुकीश्वर, प्रयागवेणीमाधव अशीं जायतीं तीर्थक्षेत्रां ह्या स्थळाच्या लागसार आसात. सौभाग्यवती बायलांचे केस ओंपप तशेंच श्राद्धासारके धर्मीक विधी हांगा करतात.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : अलाहाबाद.

**प्रयाण :** कसलोय उद्देश मनांत धरून दुसऱ्या गावांत वा दुसऱ्या देशांत वचप हाका प्रयाण अशें म्हण्टात. विद्यार्जन, धर्नार्जन, तीर्थयात्रा, कोणाय विविश्ट मनशाक भेट वा हेर कांय प्रपंचीक कामां करपाखातीर भोंवडी करप असो प्रयाण शब्दाचो अर्थ जाता. प्रयाण करपाक वता आसतना बरो म्हूर्त पळोवन वचप अशें सांगलां. तशेंच अशुभ योग टाळचो अशेंय म्हळां.

श्रवण, धनिश्ठा, अश्विनी, पुष्य, रेवती, अनुराधा, मृग, हस्त, पुनर्वसु आनी अभिजित हीं नखेत्रां प्रयाणाक शुभ आसात. जाल्यार हेर नखेत्रां टाळचीं. सोमार आनी शेनवाराक उदेंतेक, बिरेस्ताराक दक्षिणेक, आयतार आनी शुक्राराक अस्तंतेक, जाल्यार बुधवार आनी मंगळाराक उत्तरेक प्रयाण करप ना. कारण त्या-त्या वाराक ते ते दिकेक वारशूल आसता. प्रयाणकाळांत लग्नाचे शुभाशूभ पळोवंचे. ज्या लग्नांत प्रयाण कर्तव्य आसता, त्या लग्नापसून केंद्र आनी त्रिकोण ह्या सुवातींचेर ग्रह आसूंक जाय. ३, ११, ६ आनी १० ह्या सुवातींचेर पापग्रह आसचे न्हय. १०वो शनी आनी ७ वो शुक्र हे अनिश्ठ आसात. प्रयाण लग्नापसून १, ६, ८, १२ हे सुवातींचेर चंद्र आनी ६, ७, ८ आनी १२ ह्या सुवातींचेर लग्नाधिपती अशुभ आसात.

प्रयाणाक वता आसतना ब्राह्मण, घोडो, हत्ती, फळ, अन्न, दूद, धंय, गाय, कमळ, वेश्या, वाद्य, मयूर, पोपट, मुंगूस, ऊंस, भरिल्लो कळसो, छत्र, कुमारी कन्या, रत्न, सोरो, धवो बैल, हांडीर भुरगें घेतिल्ली बायल आदीवस्तूचें दर्शन जावप हो शुभ शकून. वांझ बायल, कातडी, हाडां, मीठ, कोळसो, लाकूड, नपुसंक, विश्ठा, तेल, जटाधारी, संन्यासी, पिडेस्त आदींचे दर्शन आनी माजर आडवें वचप हे अशुभ शकून मानतात.

अशुभ शकून जावन लेगीत प्रयाण करपाचें आसलें जाल्यार ११ वा १६ खेपे उस्वास घेवन वचचें पूण तीन फावटीं अपशकून जाल्यार मात प्रयाण स्थगीत करचें. प्रयाणाच्या दिसासावन णवव्या दिसा परत स्वताच्या घरांत येवचें न्हय.

प्रयाणाक वता आसतान अग्नी, मित्र, ब्राह्मण, बायल हांकां तृप्त करून वचप. प्रयाण काळांत राग, श्मश्रुकर्म, तैलाभ्यंग, मधमास आदीचें सेवन, धव्याभायर हेर वस्त्रां टाळचीं. सुम्हुर्ताचेर प्रयाण करप शक्य ना जाल्यार बऱ्या म्हुर्ताचेर प्रस्थान दवरून तें वतना घेवन वचपाक जाय. प्रस्थान दवरप म्हळ्यार भांगर, धान्य ना जाल्यार वस्त्र अशो किदेंतरी वस्तू जे दिकेक प्रयाण करपाचें आसता, ते दिकेक दुसऱ्याच्या घरा सुम्हुर्ताचेर व्हरून दवरप, हाका प्रस्थान दवरप म्हण्टात. प्रयाणाक वतना प्रयाण करतल्यान ते आपल्या बरोबर घेवन वचप हाका प्रस्थान व्हरप म्हण्टात.

खंयच्याय शुभकार्याक तिगांयनी मेळून वचप ना. वता आसतना अन्नाचो उल्लेख आयल्यार अन्न सोडून वचप ना. बुधवाराक प्रयाण करप ना. प्रवासाक वता आसतना तुळशीच्या पेडाक उजवे वटेन दवरून वचपाची पद्दत आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रलय :** 'प्रलीयते शीक्षते जगदस्मिन्निति' = जातूंत पुराय जग नश्ट जाता ताका प्रलय अशें म्हण्टात. प्रलयाचे नित्य, नैमित्तिक, प्राकृत आनी आत्यंतिक अशे चार प्रकार आसात. सगळे प्राणी आनी पदार्थ हांचेभितर दरेका खिणाक जो सुक्ष्म बदल जाता, ताका नित्य प्रलय अशें म्हण्टात. प्रत्येक कल्पान्ती ब्रह्मदेवाची रात सुरू जाता, तो न्हिदता आनी संवसाराचो प्रलय जाता, तो नैमित्तिक प्रलय. ब्रह्मदेवाचें आयुष्य सोंपतकच पुराय ब्रह्मांड प्रकृतींत विलीन जाता, ते स्थितीक प्राकृत प्रलय वा महाप्रलय अशें म्हण्टात. विंगड विंगड प्रकारांच्या साधनेक लागून सगळ्या जिवांक मोक्ष मेळटा अशे स्थितीक आत्यंतिक प्रलय म्हण्टात.

प्रलयाची कथा सुरवेक शतपथ ब्राह्मणांत दिल्ली आसा, ती थोडे भितर अशी –

फांतोडेर संध्या करच्या वेळार मनूक उदकांत एक ल्हान देवमासो मेळ्ळो. त्या देवमाशान मनूक जलप्रलयाचें भाकित सांगलें. ताचे सुचवणेवयल्यान मनून ताका आलाशिरो दिलो. तो खूब व्हड जाले उपरांत मनून ताका दर्यांत सोडलो आनी आपले खातीर एक व्हड नौका बांदून तातूंत तो बसलो. मागीर व्हड उदकाचो प्रलय जावन सगळी मोनजात तातूंत बुडून मेली; पूण मनूची नौका मात त्या उदकांत उफेंत उरली. उपरांत तो व्हड देवमासो मनूक वांचोवपाखातीर आयलो. ताणें ती नौका हिमालय पर्वताचेर व्हरून सोडली. थंय मनून एक यज्ञ केलो. तातूंतल्यान एक बायल निर्माण जाली. उपरांत त्या दोगांयनी मेळून प्रजा निर्माण केली.

महाभारतांत ही कथा मातशी वेगळे तरेन सांगल्या. दर्यादेगेर मनू तपश्चर्या करता आसतना एक नुस्तें थंय आयलें आनी ताणें व्हड रूप धारण केलें. त्याच वेळार महाप्रलय सुरू जालो. त्या नुस्त्यान मनूची नौका हिमालयाच्या सगळ्यांत उंचेल्या तेंमकार व्हरून सोडली. उपरांत आपूण ब्रह्मदेव आसा अशें ताणें मनूक सांगलें. थंय मनून तपश्चर्या करून प्रजा उत्पन्न केली.

चडशा पुराणांनी शतपथ ब्राह्मणांतले कथेचेंच अनुकरण केलां. पूण विष्णुपुराणांत ही कथा मातशी वेगळी आसा. महाप्रलयांत पृथ्वी बुडिल्ली आसताना विष्णु वराहाचें रूप घेता आनी उदकांत बूड मारून पृथ्वी वयर हाडटा.

प्रलय म्हळ्यार दुखेस्त जिविताचो अंत आनी नव्या जिविताचो उगम, हें तत्त्व जगांतल्या सगळ्या समाजांनी मान्य केल्लें आसा. बायबलाच्या पोरण्या करारांतली नोहाची कथा अशीच आसा. जगांतल्या पापांक विटून देवान प्रलय निर्माण केलो. त्या प्रलयांत सगळ्यांक मरण आयलें. फकत नोहा आनी ताची बायल तातूंतल्यान वांचलीं. कुराणांतूय प्रलयाची

कथा मेळटा. नोहा नांवाचो देवदूत ईश्वराचो संदेश घेवन आयिल्लो; पूण पृथ्वीवयल्या लोकांनी ताचेर विश्वास दवरलो ना आनी हाका लागून देवाक राग आयलो आनी ताणें प्रलय केलो. नोहान एक नौका तयार करून, ताचेर जांचो विश्वास आशिल्लो तांकां आनी कांय मोनजातींक आपले नौकेंत आलाशिरो दिलो. फकत तितलेच ह्या प्रलयांत वांचले. हेर सगळे बुडून मेले. आदिवासी लोकांच्या कथांनीय ही कल्पना मेळटा.

- को. वि. सं. मं.

**प्रवचन :** आध्यात्मिक तत्त्वगिन्यान, जातूंत खास करून धर्मीक संदर्भांतलें तत्त्वगिन्याचें स्पश्टीकरण करतात, ताका प्रवचन अशें म्हण्टात. हें विवेचन उपदेशाच्या रुपांत आसता आनी ताका धर्मीक अधिश्ठान उरता. प्रवचन हो कांय धर्मीक विधी, देवतेची पुजा, भजन सुवाळो हांचो एक म्हत्वाचो वांटो. प्रवचन हें केन्नाकेन्नाय कांय धर्मांनी धर्मप्रसाराचे माध्यम म्हणून वापरतात. सगळ्या धर्मांनी, विशेश करून हिंदू धर्मांत प्रवचनश्रवण केलेंना जाल्यार तो धर्मीक विधी पावन जायना, असो संकेत आसा.

प्रवचन हो शब्द पयली तैत्तिरीय उपनिषदाच्या शिक्षावल्लींत आयला. यज्ञकर्मांत आचार्यान प्रवचन करपाचें आसता. धर्मीक व्यक्तीच्या घरांत आशिल्ल्या देवाऱ्यामुखार, देवळांत, साधूंच्या मठांत वा आश्रमांत धर्मशास्त्रज्ञान प्रवचन करपाची प्रथा पुर्विल्ल्या काळासावन चलत आयल्या. ही पद्दत जैन मंदिरांत वा बौद्ध मठांतूय चालू आसा. प्रवचन करपी मनीस जर मेळना जाल्यार प्रवचनाचे सुवातेर यज्ञपूजा, प्रार्थना आनी भजन केल्यार पुराय पुण्य मेळटा असो भावार्थ आसा. प्रवचनाक लागून त्या पुण्यांत भर पडटा. सगळ्या धर्मसंस्थांचो प्रचार प्रवचनावरवीं जाता आशिल्ल्यान प्रवचन हें धर्मप्रसाराचें एक मुखेल साधन जालां.

**क्रिस्तांव धर्मांतलें :** चडशा सगळ्या पंथांच्या इगर्जांनी दर आयतरा सकाळीं वा थारायल्ल्या वेळार धर्मीक उपासना जाता. त्या वेळार उपासनेचे नियोजीत कार्यावळींच्या प्रवचनाक (Sermon) एक खाशेलें म्हत्व आसता. कांय क्रिस्तांव लोक ताकाच उपदेश (Homily) अशेंय म्हण्टात. पूण ह्यो दोन संज्ञा वेगवेगळ्यो आसात. 'उपदेश' म्हळ्यार भाविक लोकांनी किदें करचें आनी किदें करचें न्हंय हे विशीं बोध करप. जाल्यार प्रवचनांत वैचारिक मीमांसा आनी केन्नाकेन्नाय संशोधनात्मक विस्कटावणी हांचोय आस्पाव जाता.

प्रवचन हें ईश्वरविद्येचेर (Theology) आदारीत आसता. प्रवचन हें माचयेवयल्यान (पुलपीट) दितात आनी तें बायबलाच्या खंयच्याय भागाचेर वा वचनाचेर आदारीत आसता. 'पोरनो करार' आनी 'नवो करार' ह्या बायबलाच्या दोन वांट्यांनी परमेश्वरान ताणें निर्मिल्ल्या मनशाकडेन जो संवाद सादलो ती गजाल आस्पावता. तेच विचार सगळ्यांमेरेन पावोवन परमेश्वर आनी मनीस हांचो संपर्क कायम दवरचो पडटा. इगर्जेतल्या प्रवचनाची ही फाटभूय आशिल्ल्यान प्रवचन हें एक नियमबद्ध शास्त्रूच जालां.

प्रॉटेस्टंट पंथांतूय प्रवचनाक प्राधान्य दिलें आनी ताका लागून प्रवचनाक शास्त्रोक्त पद्दतीची बसका मेळत गेली. मनशाचो इतिहास, मनशांचे एकांमेकांकडेन बदलत वचपी संबंद, तांचें शिक्षण आनी उदरगत तशेंच झुजासारक्यो नव्यान उपरासपी समस्या हांचो संबंद, सुर्वेक परमेश्वरान आपल्या सेवकांवरवीं बायबलांत परगटायल्ल्या संवादाकडे जोडिल्ल्यान तातूंतल्यान प्रवचन तयार जाता आनी ताका एक खाशेलो वैचारिक पांवडो प्राप्त जाता. कालांतरान ईश्वरविद्या शिकपाखातीर आंखिल्ल्या कार्यक्रमांत प्रवचनाक म्हत्वाची सुवात प्राप्त जाल्ल्याचें दिसता. कांय पंथ बायबलांतले उतारे वाचप आनी ताचेरूच मनन आनी प्रार्थना करप हाकाच उपासनेंत म्हत्व दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रवर :** गोत्रसंस्थापक ऋषींच्या पुर्वजांक प्रवर अशें म्हण्टात. धर्मीक कार्य करच्या वेळार प्रवरनामांचो ऊच्चार करप म्हत्वाचें मानतात. प्रवरा बगर मनशान केल्ल्या होमाचो देव स्विकार करिना अशें कौषीतकी ब्राह्मणांत म्हळां. ज्या कोणाक आपलें प्रवर खबर ना ताणीं आपल्या गुरूचें प्रवर घेवंचें अशें आपस्तंबान सांगलां. बौधायन आनी आश्वलायन श्रौतसूत्रांत क्षत्रीय आनी वैश्य हाणीं आपल्या पुरयताचें प्रवर उच्चारपाचें अशें म्हळां. दर्शपूर्णमास, पशुयाग, सोमयाग आदी श्रौतयागांत आसतना मैत्रावरूण आदी ऋत्विजांचें प्रवरण करपाचें आसता. सुर्वेक येजमानाच्या प्रवरांचो निर्देश करून उपरांत त्या-त्या ऋत्विजाचें वेव्हारीक नांव उच्चारून वरण म्हळ्यार नियोजन करप हाका प्रवरण अशें म्हण्टात. आपस्तंबाच्या मतान सप्रवर बयलेकडेन संबंद दवरपी दादलो जातिभ्रश्ट जाता आनी ताचीं भुरगीं चांडाळ जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रसाद :** प्रसाद हो शब्द संस्कृत आसून ताचो अर्थ 'कृपा', 'अनुग्रह' असो आसा. त्याच अर्थान तो प्रसाद 'घेवप' ह्या शब्दांत वापरतात. कौल उतर अरबी आसून ताचो अर्थ मान्यताय वा खात्रीचें उतर दिवप असो जाता. प्रसाद घेतात तेन्ना कांय लोक पिटकोळेचे कळे वा पाकळ्यो मुर्तीक लायतात म्हणून हाका 'कळे लावप' अशेंय म्हण्टात. कांय कडेन फूल लायतात म्हणून हाका 'फूल लावप' अशेंय म्हण्टात.

मनशाक बरें-वायट थरोवपाची सारासार बुद्द आसता. पूण केन्नाकेन्नाय कांय मनशांचो वैचारीक गोंदळ आनी बुद्दीभेद जाता. अशा वेळार मनीस स्वताचे बुद्दीचेर वा हेर खंयचेय मानवी वा विज्ञानीक शक्तीचेर भरवंसो दवरूंक पावना. देखून कसलोय निर्णय घेवंच्या वेळार मनीस आपले बुद्दीभायले शक्तीक शरण वचूंक सोदता आनी अशा वेळार तो देवाक गवाय दवरून ताचेकडल्यान उतर घेता, ताची कृपा आसची म्हणून प्रसाद वा कौल घेता आनी आपल्या वैचारीक गोंदळांतल्यान आपले पुरतो मार्ग काडटा.

हे प्रसाद सगळ्याच मुर्तीक लायनात. कांय देवस्थानांनीच ते लायतात. कांय कांय देवस्थानांनी जायत्यो मुर्ती आसतात पूण तातूंतल्या एक - दोन मुर्तिकूच प्रसाद लायतात.

देवाची पूजा जावन निर्माल्य विसर्जन केले उपरांत प्रसाद लायतात. कांय कडेन रातीमेरेन प्रसाद लावप चलता. कांय देवस्थानांनी प्रसाद सांजवेळचो, आमोरेच्या वेळार लायतात. जाल्यार कांयकडेन मध्यानराती मेरेन लायतात. कांय मुर्तीक फांतोडेचेर साडेतीन-चार वरांचेर प्रसाद लावन सुर्योदयाआदीं तें काम पुराय करतात. कांय देवस्थानांनी प्रसाद दुय्यम देवतेक लायतात आनी तोच प्रसाद मुखेल देवाचो अशें समजतात.

गोंयांतल्या श्री मंगेशाकडेन हो प्रसाद मुखायवेले शिवशमीचे मुर्तीक लायतात जाल्यार दुसऱ्या एका देवळांत हो एके धातूचे प्रसाद पट्टेक लायतात.

प्रसाद लायतना पिटकोळेचे कळे वा पाकळ्यो उदकांत भिजोवन मुर्तीक लायतात. मुर्तीचे दोळे, हात, पांय तशेंच भायली प्रभावळ हांकांच ते कळे लायतात. जो प्रसाद झडटा ते प्रमाण ताची मोडणी (सांकेतिक अर्थ) जाता. ही मोडणी गुरव, भट, पुरयत जो कोण प्रसाद लायता तो करता. दर अवयवावयल्या पाकळेच्या झडपाक खाशेलो सांकेतिक असो संदर्भ उरता. सादारणपणान उजवे वटेनची पाकळी झडली जाल्यार देवाचो हयकार आनी दावे वटेनची झडली जाल्यार न्हयकार अशें समजप जाता. केन्नाकेन्नाय भक्तूच मनांत प्रार्थना करून जाय तो प्रसाद मागता. कांय सुवातींचेर प्रसाद लावपाखातीर तुळशीचीं पानां, आंब्याच्या पानांचे वाटकुळे कुडके, पारजताचीं फुलां, आनी हेर फुलां-पानांचो उपेग करतात. कांय मुर्तींक तांदुळूय लायतात. एकेच मुर्तीक एकाच वेळार दोन-तीन भक्त आपआपले प्रसाद वेगवेगळ्या अवयवांचेर लायतना दिसतात.

मुर्तीपुजा आसा त्या सगळ्या प्रदेशांनी प्रसादाची रीत आशिल्ली. आज भारतांत जायत्या देवळांनी कौल मागपाची प्रथा आसा. पूण कोंकणांत आनी गोंयांत ती चड आसा.

प्रसाद लावपाच्या दिसांनी वेगवेगळेपण आसा. कांय दीस, तिथी, म्हयने प्रसाद लावपाक वर्ज्य आसात. कांयकडेन एकादस आसल्यार प्रसाद लागना जाल्यार कांयकडेन जेश्ठ वा आश्विन म्हयन्यांनी प्रसाद जायनात.

प्रसाद फकत हिंदूच घेतात अशें ना. क्रिस्तांव, मुसलमान हे लेगीत हिंदू देवळांनी प्रसाद घेतात.

– एन. जी. केळकर

**'प्रसाद' जयशंकर :** (जल्म : १८८९ बनारस; मरण : १५ नोव्हेंबर १९३७, बनारस).

छायावादी कवी, नाटककार, कथाकार, कादंबरीकार आनी निबंदकार. 'सुँघनी साहु' ह्या नांवान नामना आशिल्ल्या खानदानी आनी गिरेस्त घराण्यांत ताचो जल्म जालो पूण ताच्या भुरगेपणांतूच ताका अर्थीक आनी कुटुंबीक अडचणींक तोंड दिवंचे पडलें.

ताचें शालेय शिक्षण बनारसाक फकत आठवे यत्तेमेरेन जालें, पूण कुशाग्र बुद्द आनी कश्ट करपाची तांक हाका लागून, गुरूंच्या हाताखाल आनी स्वाध्यायाच्या बळग्याचेर संस्कृत, हिंदी, फार्सी, उर्दू, इंग्लीश ह्या भाशांचो तशेंच इतिहास, तत्त्वज्ञान, भारतीय संस्कृती, पुराणां हांचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो.

ल्हानपणासावन काव्यवाचनाची आनी काव्यलिखाणाची ताका गोडी आशिल्ली. ताच्या काळांत काव्य भाशा म्हणून ब्रज भाशाच उपलब्ध आशिल्ल्यान ताणें आपली सुरवेची कविता ब्रज भाशेंत बरयली. हिंदी साहित्याचें मुखेलपण करपी महावीरप्रसाद द्विवेदी ह्या युगाचोय ताचेर प्रभाव जाणवता.

सुरवेच्या ताच्या कवितांनी बहिर्मुखता आनी संस्कृतप्रचुरताय दिश्टी पडटा. ताचे कांय नामनेचे काव्यझेले अशे आसात – 'चित्राधार' (१९०६), उर्वशी (१९०९), वनमिलन (१९०९), अयोध्या का उद्धार (१९१०), शोकोच्छ्वास (१९१०), बभ्रूवाहन (१९११), कानन कुसुम (१९१३), प्रेमपथिक (१९१३), करुणालय (१९१३), महाराजा का महत्व (१९१४). पूण ताच्या कवि – व्यक्तिमत्त्वाचें खरें दर्शन घडटा तें ताच्या झरना (१९१८), आँसू (१९२५), लहर (१९३३) आनी कामायनी (१९३५) ह्या काव्यांनी.

ताच्या 'आँसू' ह्या काव्याक हिंदींतूच नामना मेळ्ळी अशें न्हय जाल्यार हेर भाशांनी लेगीत ह्या काव्याचो अणकार जाला. 'कामायनी' हें काव्य, हिंदी काव्यांतलो एक व्हड मानबिंदू मानतात. रसात्मक प्रसंगचित्रण, व्हड व्यक्तिमत्वांचें रेखाटन, काव्याच्या पांवड्याचेर सुरवेक सावन उत्तायल्ले जिणेचें दर्शन, प्रतिकात्मक शैली आनी प्रतिमाप्रचुर भाशा हांची सोबीतकाय, हांचो एकठांय विचार केल्यार ह्या म्हाकाव्याचें व्हडपण सगळ्या समिक्षकांनी मान्य केलां.

प्रसादान नाटकांय बरयल्यांत. ताणें नाट्यक्षेत्रांत केल्ल्या मोलादीक वावराक लागून १९१८-३६ ह्या हिंदींतल्या नाटकांच्या युगाक 'प्रसाद-युग' अशें नांव दिलां. ताणें ८ इतिहासीक, ३ पुराणीक, २ भावनाप्रधान समाजीक आनी १ पद्य-नाटक अशीं १४ नाटकां बरयलीं. भारतीय संस्कृती आनी इतिहासाची गोडी आशिल्ल्यान, नाटकां बरोवचे पयलीं ताणें ते विशीं इतिहासीक वातावरणाचो, पुरातत्त्ववेत्याचे शास्त्रीय नदरेन विचार केल्लो जाणवता. इतिहास आनी कल्पना हांचें कलात्मक मिश्रण ताच्या नाटकांतल्यान दिसता. सगळ्या तरांचें स्वातंत्र्य ताणें आपल्या नाटकांनी घेतिल्ल्यान रंगमाचयेर ताचीं नाटकां हाडप कठीण जाता. सज्जन (१९१०-११), प्रायश्चित (१९१२), कल्याणी परिणय (१९१२), करुणालय (१९१३), राज्यश्री (१९१५), विशाख (१९२१), अजातशत्रु (१९२२), जनमेजय का नागयज्ञ (१९२३), कामना (१९२३-२४), स्कन्दगुप्त (१९२८), चंद्रगुप्त (१९२८) एक घूँट (१९२९), ध्रुवस्वामिनी (१९३३) तशेंच यशोधर्यदेव (उजवाडा येवंक ना), अग्निमित्र (अर्दवट), इन्द्र (एकठांय करून) बरयल्यांत. ताच्या नाटकांचेर संस्कृत, बंगाली, अस्तंती भाशांतल्या नाटकांचो प्रभाव दिश्टी पडटा.

कंकाल (१९२९) आनी तितली (१९३४), इरावती (अर्दवट) ह्यो प्रसादाच्यो दोन नामनेच्यो कादंबऱ्यो आसात. 'कंकाल' हे कादंबरेंत प्रसाद खर वास्तववादी जाल्लो दिसता. जाल्यार 'तितली' ही कादंबरी गांवगिरे जिणेचेर बरयल्ली आसा.

हिंदी साहित्यांत, प्रसादाच्या पांच कथाझेल्यांक खूब नामना मेळ्ळी. ताची 'ग्राम' ही कथा १९११ वर्सा इंदु नांवाच्या म्हयनाळ्यांत उजवाडा आयिल्ली. 'छाया', 'प्रतिध्वनी' (१९२६), 'आकाशदीप' (१९२९), 'आँधी' (१९३१), 'इंद्रजाल' (१९३६) हे ताचे म्हत्वाचे कथांझेले. छाया वादाचीं सगळीं खाशेलपणां ताचे कथेंत दिसतात. निबंध आनी नाटकांक लायिल्ल्यो ताच्यो प्रस्तावना, ताच्या खोल अभ्यासाची, चिंतनाची, आनी संशोधन वृत्तीची गवाय दितात.

अशे तरेन प्रसादाच्या साहित्यांत भारताचे संस्कृतीच्या आत्म्याचें दर्शन घडटा. जयशंकर 'प्रसाद' वृत्तीन गंभीर पूण रसिक आशिल्लो. ताणें आर्विल्ल्या विचारांचे गंभीरतायेन मनन केलें. भारतीय परंपरांचे गिन्यान ताच्या रगतांतूच आशिल्लें. हाका लागून ताच्या लिखाणांत दोनूय संस्कृतीयांच्या संस्कारांचो परिणाम दिश्टी पडटा.

– छाया चोडणकर

**प्रसाधन :** शरिराची सोबीतकाय वाडोवपापासत केल्ल्या उपचाराक प्रसाधन अशें म्हण्टात.

शरिराभायलें आनी भितरलें अशीं प्रसाधनाचीं दोन आंगां आसात. शरिराचो आकार आनी प्रकृती बरी उरची म्हणून पुश्टीक जेवण घेतात आनी व्यायाम करतात. हाका शरिरा भितरलें प्रसाधनाचें आंग म्हणूं येता. पुर्विल्ल्या काळांत भितरल्या प्रसाधनाखातीर वखदांचोय उपेग करताले. ताका लागून खूब वर्सां शरीर पिडाविरयत आनी सोबीत उरपाक मदत जाताली.

दांत पडचे न्हय, केंस गळचे न्हय, दोळे तेजस्वी उरचे, कातीर मिरयो पडच्यो न्हय आनी कात सतेज उरची म्हणून जांचो उपेग करतात तीं बाह्य प्रसाधनां. दंतमंजन, केंसांचीं तेलां, उटणीं, दोळ्यांत घालपाचें काजळ, वासाचीं द्रव्यां, ओंठ आनी नाखटां रंगोवपाचीं द्रव्यां, मेथी हीं कांय बाह्य प्रसाधनां. तेभायर तरातरांचे कपडे घालप, फुलांच्यो माळी आनी वस्ती (अलंकार) घालप हांचो प्रसाधनांनी आस्पाव जाता.

वैदिक काळार समावर्तन संस्कारांत आनी लग्नसंस्कारांत प्रसाधन करपाची पद्दत आशिल्ली.

मोहेंजोदाडो उत्खननांत सांपडिल्ल्या दांतोणी, हारश्यो हे सारक्या वस्तुंवयल्यान सिंधु संस्कृतायेंतले लोक प्रसाधनांचो वापर करताले अशें दिसता. रामायण आनी महाभारत काळांतल्यो बायलो प्रसाधनांचो उपेग करतालीं. पाणिनी, पतंजली, कौटिल्य हांच्या ग्रंथांनी प्रसाधनांचो उल्लेख मेळटा. जातकां आनी विनय पिटीका ह्या ग्रंथांनी बौध्द काळांतल्या प्रसाधनां संबंधी म्हायती मेळटा. मौर्य काळांतूय प्रसाधनांचो वापर जातालो. वात्स्यायनाच्या कामसुत्रांतूय प्रसाधनांचें वर्णन आसा.

पुर्विल्ल्या काळांत बायलांची प्रसाधन सामग्री मोटी आसताली. प्रसाधनाखातीर वापर जावपी वस्तूंक शृंगार हें नांव मेळ्ळें. ह्या शृंगारांचीं सोळा नांवां सांगल्यांत तीं अशीं - उटणें, न्हाण, नितळ वस्त्रां न्हेसप, भांग काडप, पांयांची सजावट, केंस रचना, तिळो, खाडकेर तीळ पाडप, अलंकार, मेथी, दंतमंजन, काजळ, अरगजालेपन, तांबूल, माळी आनी गजरे. शृंगारांतल्या ह्या नांवांनी कांय बदलूय केल्ले दिसतात.

कालिदास, बाणभट्ट ह्या संस्कृत कवींच्या ग्रंथांनी प्रसाधन कलेचे जायते उल्लेख मेळटात. पुर्विल्ल्या काळांत प्रसाधन कलेंतल्या जाणकार दादल्यांक प्रसाधक आनी बायलेक प्रसाधिका अशें म्हण्टाले. प्रसाधनाची सामुग्री दवरिल्ले पेटयेक प्रसाधन पेटी अशें म्हण्टाले.

गुप्त काळांतल्या चित्रांनी प्रसाधनांचें चित्रण जातलें. अजंठाच्या चित्रांनी प्रसाधक आनी प्रसाधिकेचीं चित्रां मेळटात.

मध्यकाळांत प्रसाधन काम करपी बायलो आनी दादले हांचे स्वतंत्र गट तयार जाले. तशेंच तरातरांचीं प्रसाधनां तयार करपी तज्ञूय तयार जाले. कलां भितर प्रसाधन कलेचो आस्पाव जालो.

मुसलमान भारतांत आयले उपरांत हांगासल्ले प्रसाधन सामग्रीचेर तांचो खुबूच प्रभाव पडलो. मोगल काळांत हाता पांयांक मेथी लावप आनी धव्या केंसांक मेथी घालपाची पद्दत सुरू जाली. नाकांतले अलंकार आनी जुल्फ ही मुसलमानांची पद्दत.

ब्रिटीश, फ्रेंच, पुर्तूगेज हे लोक भारतांत आयले उपरांत हांगासर शाबू, स्नो, पावडर, चेर, लिपस्टिक, नेलपॉलिश हांचे सारकिली प्रसाधन द्रव्यां हांचो वापर जावपाक लागलो. अस्तंती लोकांच्या अलंकारांचो भारतांतल्या अलंकारांचेर प्रभाव पडलो.

आर्विल्ल्या काळांत नवे-नवे विज्ञानीक सोद लागिल्ल्यान प्रसाधनां मळारूय खुबूच उदरगत जाल्या. प्रसाधनां खातीर वापरपाचीं नवीं-नवीं द्रव्यां तयार जाल्यांत. हालीं तेंपार कुडीची सोबीतकाय सजोवपी सौंदर्य प्रसाधन घरां (Beauty Parlour) सुरू जाल्यांत. थंय भारतीय तशेंच अस्तंती शास्त्रीय पद्दतीन दादल्यांचें तशें बायलांचें प्रसाधन करपाचे विविध प्रकार सुरू केल्यात. व्हड शारांनी न्हवरो-व्हंकलेचें प्रसाधन अशा प्रसाधन घरांनी करपाची पद्दत सुरू जाल्या. प्रसाधन सर्तीचें आयोजनूय आतां जावपाक लागलां.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रहसन :** एक नाट्यप्रकार. हांशें हें प्रहसनाचें मुखेल आंग. हो हास्य-उत्पादक नाट्यप्रकार एकांकी वा तीन अंकी आसूं येता. हातूंत सामान्यपणान उतरा कणकणी एका थरावीक नीम दर्जाचो विनोद आसता. पात्रांचे उक्ति कृतींत अतिशयोक्ती, असंबद्दताय, विसंगती, पिशेपणां हांची भरसण आसता. ज्यो घडणुको अवास्तव वा ज्यो घडूंक शकनात तांचो प्रहसनांत आस्पाव आसता.

प्रहसन वा फार्स हो सुखात्मिकेचोच एक प्रकार. पूण प्रहसनाची प्रकृती मात सुखात्मिके परस मातशी वेगळी आसता. कारण प्रहसन हो प्रकार विनोद-निर्मितीचो एकूच हेत दोळ्यांसामकार दवरून तयार केल्लो आसता. प्रहसन हें घटनाकेंद्रीत आसता. अतिरंजित आनी असंभाव्य घडणुको एकदम घडटात. तातूंतल्यान विनोद आनी व्यंग निर्माण जाता. सुखात्मिकेंत घसघशीत व्यक्तिचित्रण आसता. प्रहसनांतल्यो व्यक्ती उथळ, विक्षिप्त सभावाच्यो आनी सांचेबंद व्यक्तिमत्वाच्यो आसतात. तरातरांच्यो क्लृप्त्यो करून प्रहसन प्रेक्षकांक हांसयता. पूण सुखात्मिका प्रेक्षकांक विचार करूंक लायता. प्रहसनांतल्या विनोदांतूय केन्नाकेन्नाय कारूण्याची झालर आसली तरी मुखेल भर विनोदाचेर उरता. प्रहसनांत केन्नाय, किदेंय घडूंक शकता हें खरें आसलें तरी तातुंतूय सुखात्मिके भाशेनूच, स्वताची अशी सुसंगत रचना आसता. प्रहसनांत एकाच वेळार गंभीरताय आनी मजा हांचो प्रत्यय येता. प्रहसनांतली व्यक्ती आनी घडणूक असभावीक दिसली तरी तातूंतल्यान मानवी जिणेंतल्या वास्तवाचेर उजवाड पडटा.

पोरण्या ग्रीसी सुखात्मिकेवांगडा रचिल्लें हांसोवपी ल्हान नाटक म्हळ्यार फार्स. अस्तंती फार्स इ.स. पयलीं पांचव्या शेंकड्यांत सुरू जालो अशें मानतात. 'fareire' म्हळ्यार कोंबून भरप ह्या लॅटिन शब्दापसून 'फार्स' ही संज्ञा तयार जाली.

युरोपांतल्या प्रबोधना उपरांत फार्साचे निर्मितीक नेट आयलो. इटलींतल्या फार्सांनी सांचेबंद स्वरुपाचीं पात्रां आसतालीं. मोल्येराच्या फार्सांनी व्यंगचित्रां आसून, मानवी जिणेंतले विसंगतीचें भेदक दर्शन घडटालें. Mystere म्हळ्यार बायबलांतल्या नव्या आनी पोरण्या करारांतल्या कथांचेर आदारिल्लीं नाटकां. धर्मीक स्वरुपाच्या ह्या गंभीर नाटकांनीय फार्स रिगोवप जातालें.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत फार्साक परतून चंवर आयलो तो फ्रांसांत. तेचवांगडा जर्मनी, रशिया, ब्रिटन ह्या देशांनीय फार्स सुरू जालो. इंग्लिश नाट्यप्रयोगांच्या अनुकरणाक लागून मराठी रंगमाचयेर फार्साचो जल्म

जालो.

१९ जानेवारी १८५६ दिसा अमरचंद वाडीकर नाट्यमंडळीन पौराणिक नाटकाचे जोडयेक फार्स सादर करपाची युक्ती केली. हो फार्स हांसोवपी आनी लोकीक जिणेचें चित्रण करपी असो आशिल्लो. उपरांत ह्या प्रहसनांचें स्वरूप बदलत गेलें.

१८७० ते १९०० वर्सामेरेन असभ्य आनी गांवगिऱ्या विनोदान भरिल्लीं प्रहसनां निर्माण जाल्लीं दिसतात. खंयचेंच नाटक सोंपतकच वा नाटकाच्या दोन अंकांमदीं सादर केल्लें लघुनाट्य म्हळ्यार इंटरल्यूड अशा स्वरुपांतूय त्या काळांतलें प्रहसन आसतालें. तेखातीर 'बासुंदीपुरीचा मनोरंजक फार्स' हें प्रहसन आनी 'नारायणराव पेशवे यांच्या मृत्यूचा फार्स' हेंय प्रहसनूच. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत मात कोणाय व्यक्तीचे जिणेंतलीं वा आपल्या समाजांतलीं वैगुण्यां वा उणाव खरपणान उक्तावपाचें माध्यम म्हणून प्रहसनाचो उपेग जावंक लागलो.

भरतान दशरूपकांत प्रहसनाक स्वतंत्र स्थान दिलां. ताणें प्रहसनाचे शुद्ध आनी संकीर्ण अशे दोन प्रकार मानल्यात. शुद्ध प्रहसनांत विंगड विंगड जातींचे लोक आपापली भास उलयतना आनी आपापलीं कार्यां करतना दिसतात. हातूंत भागवत, तापस, भिक्षू, श्रोत्रिय आनी विप्र हांचीं मजेशीर भाशणां आसचीं आनी कथा विशिश्ट ध्येय दाखोवपी आसची अशी अपेक्षा आसता. तपस्वी, संन्यासी वा ब्राह्मण हातूंतलो कोणूय तरी ताचो नायक आसता. संकीर्ण प्रहसनांत वेश्या, दास-दासी, वर्षधर-विट, हिजडो, कपटी अशीं नीच वृत्तीचीं पात्रां आसतात. हाचें कथानक खंयचेंय लोकप्रिय कथेचे आदारान रचिल्लें आसता.

भाण ह्या नाट्यप्रकाराकडेन प्रहसनाचें साम्य आसा अशें धनंजयान म्हळां. शारदातनय हाच्या मतान प्रहसन एक अंकी आसून, तातूंत दोन संधी आनी स रस आसचे. दामक, भगवतज्जुक, हास्यार्णव, मत्तविलास, धूर्तसमागम, लटकमेलक, कंदर्पकेली अशीं कांय प्राचीन प्रहसनां प्रसिद्ध आसात. ह्या पुर्विल्ल्या प्रहसनांनी विशुद्ध हास्यनिर्मिती आसता, तातूंत अश्लीलताय नासता. मध्ययुगीन प्रहसनांनी मात खूब अश्लीलताय आसता.

प्रहसन हें कांय अंशीं मुक्त नाट्य म्हणूं येता वा जीवनाकडेन पळोवपाची ती एक रीत अशेंय म्हणूं येता. व्याजोक्तिपर, विनोदी आनी उपहासगर्भ अशा ल्हानशा नाटकाक सद्या प्रहसन अशें म्हण्टात.

कोंकणींत भाशांतरीत तशींच स्वतंत्र प्रहसनां आसात. आधुनिक कोंकणी रंगमाचयेर सुरवातीच्या काळांत प्रहसनांचीच चड चलती आशिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रह्लाद :** हिंदू पुराणांतलो एक आदर्श विष्णुभक्त. दैत्यराज हिरण्यकश्यपूचो पूत. प्रह्लादाचे आवयचे नांव कयाधू. प्रह्लाद असुर कुळांतलो आशिल्लो. ब्रह्मा - मरीची - कश्यप (वा ब्रह्मा - कश्यप) - हिरण्यकश्यपू - प्रह्लाद अशी तांची वंशावळ आसा. प्रह्लादा - उपरांत विरोचन - बली (वामनावतारांत हारिल्लो) - बाण असो क्रम लागता. प्रह्लादाक विरोचन, कुंभ, निकुंभ हे पूत आनी विरोचना नांवाची धूव आशिल्ली.

प्रह्लाद ह्या संस्कृत उतराचो अर्थ 'सगळ्यांत चड आनंद' असो जाता. इराणांतलो 'परधात' वा 'पेशदात' आनी प्रह्लाद हे दोगूय एकूच आसुंये अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. प्रह्लाद गर्भांत आसतनाच नारदान ताका विष्णुभक्तीचो उपदेश केल्ल्यान तो विष्णुभक्त आशिल्लो अशें म्हण्टात. पूण ताचो बापूय हिरण्यकश्यपू हो वैशणवविरोधी आशिल्ल्यान ताणें प्रह्लादाक खूब त्रास केले. ताणें विष्णुभक्ती सोडची म्हणुनूय खूब यत्न केले. पूण सगळे यत्न फुकट वतकच प्रह्लादाक जिवो मारपाचेय यत्न केले. पूण विष्णुभक्तीक लागून प्रह्लाद वांचलो आनी मुक्त जालो.

निमाणें एक दीस हिरण्यकश्यपून, प्रह्लादाक एका खांब्याक बांदून घाल्लो आसतना, विष्णुन नृसिंहाचो अवतार घेतलो आनी हिरण्यकश्यपूक जितो मारलो. प्रह्लादाक पाताळांतल्या असुरांचो सम्राट केलो. प्रह्लादान आपल्या बापायचो उद्धार करपाची विष्णुक प्रार्थना केली, हाचेवयल्यान तो पितृभक्तूय आशिल्ल्याचें दिसता. एके फावटी ताचें नर-नारायणावांगडा झूज जालें. ताणें इंद्राक हारयलो तशेंच इंद्रपदूय मेळयलें. एकदा सुधन्वा नांवाचो मुनी आनी आपलो पूत विरोचन हांच्या संघर्शांत सुधन्वाचें म्हणणें बरोबर आशिल्ल्याचो निःपक्षपाती निर्णय दिलो, तशेंच अंधक नांवाच्या आपल्या बापोलभावाकडेन राज्य सोंपोवन ताणें तप केलें अशो कांय कथा मेळटात.

प्रह्दाच्या विंगड विंगड कथांचो आनी उपाख्यानांचो भारतीय साहित्य आनी संस्कृती हांचेर बरोच प्रभाव जाल्लो. भगवद्गीतेंत श्रीकृष्णान दैत्यांभितर आपूण स्वता प्रह्लाद अशें म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**प्राकार :** गांवचे राखणेखातीर गांवाभोंवतणीं बांदिल्ली एक व्हड वणत वा तट म्हळ्यार प्राकार. दुस्माना पसून गांवाची राखण जावची देखून पुर्विल्ल्या काळांत गांवाभोंवतणीं व्हड वणत (तट) बांदताले. हे वण्टीची उंचाय णव ते वीस फुटांमेरेन आसताली. प्राकारा भोंवतणीं खोल चर खणिल्लो आसतालो. हाका परिखा म्हण्टात. तो सदांच उदकान भरिल्लो आसून तातूंत कमळां फुलतालीं. यो-वच करपाक ह्या तटांक दारां आसतालीं. ह्या दारांभायर आनीक एक सोबीत दरवाजो आसतालो ताका तोरण वा गोपूर म्हण्टाले. जो वाठार प्राकारान व्याप्त आसतालो तेद्याच भागाक प्राकारीय देश म्हण्टाले. हे प्राकार तीन तरांचे आसताले.

१. पांसुप्राकार - हो मातयेपसून करताले. महाभारतांत आनी शिल्पशास्त्रांत हाकाच मृददुर्ग म्हळां. फुडें हाका धूलकोट म्हणूंक लागले.

२. ऐश्टकप्राकार - हो विटांपसून करताले आनी ह्यो विटो विशिश्ट तरेच्यो आसताल्यो.

३. प्रस्तरप्राकार - हातूंत चड करून फातरांचो उपेग करतात. पांड्य राजांच्या मदुरा हे राजधानीचो प्राकार फातरांचो आशिल्लो. गांव वा राजधानी हांचेवरीच देवळा भोंवतणीं प्राकार बांदताले. सुर्वेक हो प्राकार लाकडी वा कोंड्याचो आसतालो. आजून देवळाभोंवतणीं अशे प्राकार बांदिल्ले दिश्टी पडटात. गोंयच्या भोवतेक व्हड देवळांभोंवतणीं चिऱ्यांचे प्राकार बांदिल्ले आसात. देवूळ आनी प्राकार हांचेमदले सुवातेकय प्राकारूच म्हणप जाता. पालखी, लालखी, रथ सारकिलीं देवाचीं उत्सवी वाहनां ह्या प्राकारांतल्यान देवळाक प्रदक्षिणा काडटात. इंद्रप्रस्थ, द्वारका, मथुरा, अवंती, मदुरा आनी कांची हीं सगळीं नगरां प्राकारान वेश्टिल्लीं आसात असो उल्लेख मेळटा. पाटलिपुत्राक तीन प्राकारांचो वेढो आशिल्लो. वैशाली नगराभोंवतणीं चार प्राकार आशिल्ले. दोन प्राकारांमदीं १२ ते २४ हातांचें

अंतर दवरताले. दुस्मानाक हुंपूंक येनात इतले ते ऊंच बांदिल्ले आसताले. मदले चरींत मुद्दामूच कांटेरी झोंपां वा वाली लायताले. दुस्मानाचेर मारो करपाक वण्टीचेर हल्लो करपाचीं साधनां दवरिल्लीं आसतालीं. इंद्रप्रस्थ आनी हस्तिनापूर हांच्या प्राकारांचेर शतघ्नी (नाळी) वरी यंत्रां दवरिल्लीं आसतालीं असो उल्लेख मेळटा.

– कों. वि. सं. मं.

**प्राकृत भास :** भारतीय आर्य भाशांचो एक वर्ग. ह्या प्राकृत भाशांच्यो तीन अवस्था दिसतात. वैदिक युगांत वेदांतले साहित्यीक भाशेपरस वेगळ्यो अशो ज्यो बोलीभाशा आर्य लोक वेव्हारांत वापरताले, त्यो पुर्विल्ल्यो प्राकृत भासो. हीच पुर्विल्ली भारतीय आर्य (प्राभाआ) भास. ही अवस्था क्रिस्तापयलीं १५०० ते ६०० वर्सां मेरेन इसवी सनापयलीं सव्या शेंकड्याउपरांत त्या प्राकृत भाशांनी वाङ्मय निर्माण जावंक लागलें. इ.स. ६०० मेरेनच्या काळांतलें खूब प्राकृत साहित्य आसा. ही दुसरी अवस्था. हिका 'मध्यभारतीय आर्य, (मभाआ) अशें नांव आसा. उपरांत त्या भाशांचो विकास थांबलो आनी तिचे खुबशे अपभ्रंश निर्माण जावन, तातूंतल्यानूच कांय काळाउपरांत प्रदेशीक भासो तयार जाल्यो. ही तिसरी अवस्था. तिका 'नव भारतीय आर्य' अशें नांव आसा.

संस्कृत भाशेपसून प्राकृत भासो तयार जाल्यात अशी कल्पना आशिल्ली. मध्ययुगीन व्याकरणकारांनी प्राकृताची व्याख्या केल्या ती अशी - 'प्रकृतिः संस्कृतम। तत्र भवं तत आगतं वा प्राकृतम्।' प्रकृती म्हळ्यार संस्कृत. तिचेपसून आयलां तें प्राकृत. मार्कंडेय, धनिक ह्या पंडितांनीय अशीच व्याख्या दिल्या. पूण आर्विल्ल्या भासशास्त्रज्ञांक ती व्याख्या मान्य ना. 'प्रकृत्या स्वभावेन सिध्दं प्राकृतम् = प्रकृतीन म्हळ्यार सभावान सिद्ध तें प्राकृत वा 'प्रकृतीनां साधारणजनानामिदं प्राकृतम्। प्रकृती म्हळ्यार सामान्य लोक. तांची भास ती प्राकृत, ह्यो व्याख्या भासशास्त्राचे नदरेन योग्य थरतात.

प्राकृत भाशांचे सुमार २१ प्रकार आशिल्ले, अशें म्हण्टात. तातूंतले महाराष्ट्री, शौरसेनी, मागधी, पैशाची, आवंतिका, प्राच्या, दाक्षिणात्य, बाल्हिका हे मुखेल प्रकार.

संस्कृतांतले ऋ, ॠ, ऌ, ऐ, औ हे स्वर प्राकृतांत नात. संस्कृतांतल्या कांय व्यंजनांचीं रुपांय प्राकृतांत वेगळीं जाल्यांत. संस्कृतांतले श, ष आनी स ह्या तीन वर्णांबदला श वा स हो एकूच वर्ण प्राकृत भाशांनी येता. संस्कृतांतल्या संयुक्त व्यंजनांचीं रुपांय प्राकृतांत सोंपीं जातात. देखीक क्लेश → किलेश, स्फटिक → फटिक.

**वर्गीकरण**

१. धर्मग्रंथांखातीर वापरतात ती प्राकृत. हातूंत बौध्द साहित्याची पाली, जैनांनी वापरिल्ली अर्धमागधी वा आर्ष, जैन महाराष्ट्री, जैन शौरसेनी आनी जैन साहित्यांतली अपभ्रंश हांचो आस्पाव जाता.

२. वाङ्मयीन ग्रंथांतली प्राकृत. हातूंत महाराष्ट्री, शौरसेनी आनी मागधी तेचप्रमाण पैंशाची आनी अपभ्रंश हांचो आस्पाव जाता.

३. नाट्यवाङ्मयांतली प्राकृत. हातूंत महाराष्ट्री, शौरसेनी, मागधी आनी ह्या तिनूय भाशांचे प्रकार; अश्वघोषाच्या नाटकांतली पोरणी अर्धमागधी आनी ढक्कीभाशेन गौण बोली येतात.

४. व्याकरणांतली प्राकृत. हातूंत प्राकृत व्याकरणकारांनी वर्णिल्ल्यो माहाराष्ट्री, शौरसेनी, मागधी, पैशाची, चूचीका पैशाची, अपभ्रंश आनी हेर सकयल्या दर्ज्याच्यो बोली येतात. भरताचें नाट्यशास्त्र, गीतालंकार, रूद्रटाच्या काव्यालंकारावयली नमिसाधूची टिका हांचोय आस्पाव करूं येता.

५. बृह्दभारतीय प्राकृत. खोतानांत मेळिल्ले प्राकृत धम्मपदाचे अवशेश, मध्य आशियांतल्या उत्खननांत मेळिल्ल्यो भारतीय भासो.

६. शिलालेखांची प्राकृत. सम्राट अशोकाच्या शिलालेखांत भारतभर आनी श्रीलंकेच्या कांय वाठारांनी ही भास मेळटा. तशींच नाणीं, लेणीं आनी ताम्रपटांनीय ती मेळटा.

७. लौकिक संस्कृत. व्याकरणान प्रमाणीत केल्ली संस्कृत भास अस्तित्वांत येतकच लेगीत, ते नेम मानिनासतना वेव्हारांत आनी बौध्द, जैन आनी कांय हिंदूंच्या ग्रंथांनी मेळपी संस्कृत भास.

पाली भाशेंत बौध्दांच्या धर्मीक ग्रंथांभाशेन हेर खूब साहित्य आसा. मूळ धर्मग्रंथ 'त्रिपिटक' ह्या नांवान वळखतात. हाचे भायर इ.स.च्या पांचव्या शेंकड्यांतले नेत्तिपकरण, पेटकोपदेस, सुत्तसंगह हे धर्मीक ग्रंथ आसात. इ.स.च्या पयल्या शेंकड्यांत रचिल्लो 'मिलिंदपञ्ह' हो नामनेचो ग्रंथ. हाचे उपरांत त्रिपिटावयलीं भाश्यां आनी टिका हांचो काळ येता. तो चड करून इ.स.च्या पांचव्या शेंकड्यासावन आठव्या शेंकड्यामेरेन आसुंये. तातूंत जातक अट्ठकथा, धम्मपद अट्ठकथा हांचो आसपाव जाता. उपरांत टीकाग्रंथ, व्याकरणां हें साहित्य जालें.

अर्धमागधी ही श्वेतांबर जैनांची धर्मभास. तिच्यांतले ग्रंथ आयज ज्या रूपांत आसात तें स्वरूप जैन परंपरेप्रमाण तांकां इ.स.च्या पांचव्या शेंकड्याच्या अदमासाक मेळ्ळें. तशेंच जैनांचें धर्मसाहित्य जैन माहाराष्ट्रिंत आसा. विमलसूरीचें 'पउमचरिय' हेच भाशेंत आसा. संघदासगणी आनी धर्मसेनगणी हांचे 'वसुदेवाहिंडी', देवेंद्राची 'उत्तरज्झयणा' वयली टिका, जिनप्रभसूरीचो 'विविधतीर्थकल्प', हरिभद्राची 'समराइच्चकहा', धर्मदासगणीची 'उवएसमाला' हे ग्रंथ हेच भाशेंत आसात.

दिगंबर जैनांचे भाशेक जैन शौरसेनी हें नांव आसा. हे भाशेंत शौरसेनीचीं आनी मागधीचीं खाशेलपणां दिश्टी पडटात. कुंदकुंदाचार्याचो 'पवयणसार', वट्टकेराचार्याचो 'मूलाचार', कार्तिकेयस्वामीची 'कत्तिगेयापुवेक्खा' हे आनी हेर म्हत्वाचे ग्रंथ आसात. दिगंबर जैनांनीच धर्मीक आनी हेर साहित्याखातीर अपभ्रंशाचो खाशेलो उपेग केला. तातूंतले 'भविसयत्तकहा' आनी सनत्कुमारचरित हे नामनेचे ग्रंथ आसून जाइंदूचो 'परमप्पपयासु', पुष्पदंताचो महापुराण आनी हेर कांय ग्रंथूय उजवाडा आयल्यात. कांय संस्कृत ग्रंथांनीय जैनांनी अपभ्रंश श्लोक आसात. पुर्व भारतांत बौद्धांनीय अपभ्रंशाचो उपेग केला. काव्हपा आनी सरप्पा हांचो 'दोहाकोश' हो एक अशेच तरेचो ग्रंथ.

बौध्दांच्या चार वैभाशीक फांट्यांतले एकीचें लिखाण पैशाचींत आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. पूण तातूंतलें आयज कांयच उपलब्ध ना. गुण्याढ्याची 'बड्डकहा' ही पैशाचींत बरयल्ली असो उल्लेख मेळटा. तिचे अवशेश संस्कृत रुपांत सोमदेवाचो 'कथासरित्सागर' आनी क्षेमेंद्राची 'बृहत्कथामञ्जरी' ह्या ग्रंथांनी मेळटात. व्याकरणसाहित्यांत तशेंच 'कुवलयमाला' ह्या चंपुकाव्यांत, 'हम्मीरमदमर्दन', मोहराजपराजय' ह्या नाटकांनी पैशाचीचें दर्शन घडटा.

नाट्यवाङ्मयांतल्या प्राकृतांत माहाराष्ट्री, शौरसेनी आनी मागधी ह्यो मुखेल आसात. राज-घराण्यांतल्यो बायलो आनी तांच्यो इश्टिणी उलयतना

शौरसेनी आनी गितांनी माहाराष्ट्रीचो उपेग करतात, अंत:पुरांतल्या व्यक्तींची भाशा मागधी; चेट, राजपुत्र आनी वेपारी हांची अर्धमागधी; विदुशकांची प्राच्या; सैनिक आनी नागरीक हांची दक्षिणात्या आनी खर, शबर, शक ह्या लोकांची बाल्हिका आसुंये अशें भरतान आपल्या नाट्यशास्त्रांत सांगलां. हाचेभायर खुशमस्कऱ्यांची आवंतिकी, कोळशे विकप्यांची पैशाची, शकारांची शकारी, गोपालांची आभीरी आनी लाकडाच्यो भरे विकप्यांची शाबरी ह्या भाशांचोय उपेग संस्कृत नाटकांत जातालो. देशांतले वेगवेगळे घटक ह्यो विंगड-विंगड प्राकृत भाशा उलयताले. तातूंतली माहाराष्ट्री ही साहित्यीक भाशा आशिल्ली.

प्राकृत भाशांचें वर्णन करपी व्याकरणकारांची परंपरा वररुचीपसून सुरू जाता. ताच्या 'प्राकृतप्रकाश' ह्या ग्रंथांत माहाराष्ट्री, शौरसेनी, मागधी आनी पैशाची हांचो अभ्यास आसा. हेमचंद्राच्या ग्रंथांत चूलिका पैशाची वा पैशाचिका, अपभ्रंश आनी आर्ष हांची भर पडल्या. लक्ष्मीधर, सिंहराज, नरसिंह आनी हेर कांय व्याकरणकारांनी हातूंतली आर्ष ही भास सोडून हेर स भाशांचो विचार केला. पूण मार्कण्डेयाच्या 'प्राकृतसर्वस्वांत' सोळा भाशांचो विचार आसून तांचे ताणें भाषा, विभाषा, अपभ्रंश आनी पैशाच अशे भाग केल्यात. माहाराष्ट्री, शौरसेनी, प्राच्या, आवन्ती, मागधी, अर्धमागधी, दाक्षिणात्या आनी बाहलिकी ह्यो भाशा, शाकारी, चाण्डाली, शाबरी, आभीरिका, शाक्की आनी द्राविडी ह्यो विभाशा, सत्तावीस प्रकार आशिल्ली अपभ्रंश आनी इकरा प्रकार आशिल्ली पैशाची.

प्राकृत शब्दभांडाराचे म्हायतीखातीर धनपाल हाचो 'पाइअलच्छी' आनी हेमचंद्राचो 'रमणावलि' (देशीनाममाला) हे कोश खूब अभ्यासनीय आसात. १९२८ वर्सा उजवाडा आयिल्लो हरगोविंददास त्रिकमचंद सेठ हाचो 'पाइअसद्दमहण्णवो' हो कोश खूब म्हत्वाचो.

हे भाशेंत दीर्घ स्वर, ऋ आनी घर्शक हांकां स्वतंत्र चिन्नां आसात. अशोकाचे शिलालेख व्हड शिलांचेर आनी शिलाखांब्यांचेर कोरांतल्यात. तांचे भाशेंत दरेका प्रदेशाप्रमाण फरक आशिल्ल्यान दरेके शिलावयले लेख हो त्या प्रदेशांतले बोलींत आसुंये असो अदमास आसा. मुळांत ह्या लेखांचो एक मसुदो पाटलिपुत्राक तयार करून ताचे प्रदेशीक भाशेंत अणकार जाल्यात अशें दिसता. वायव्येकडल्या कांय प्रदेशांनी हे लेख खरोष्ठी लिपींत आसून हेर ब्राह्मींत आसात. श्रीलंकेंतूय क्रिस्ता पयलीं २०० ते क्रिस्ता उपरांत चवथ्या-पांचव्या शेंकड्यामेरेन ब्राह्मी शिलालेख मेळटात. तांचे भाशेक सिंहली प्राकृत म्हण्टात. भारतांत अशोका उपरांत लेगीत एक हजार वर्सांमेरेन ही परंपरा कांय प्रमाणांत मेळटा. क्रिस्ता पयलीं चवथ्या शेंकड्यासावन ही लिपी आशिल्लीं नाणीं मेळटात. मजकूर आशिल्लें सगळ्यांत पोरणें नाणें सागर वाठारांतल्या एरॅम नगरांतलें आसून ताचेर उजवे कडल्यान दावेकडेन 'धमपालस' (प्राकृत धम्मपालस्स) अशें कोरांतलां. प्राकृत लेख आशिल्ली नाण्यांची ही परंपरा क्रिस्ता पयलीं चवथ्या शेंकड्याच्या शेवटासावन गुप्तकाळामेरेन अखंड चालू आशिल्ली दिश्टी पडटा. लौकिक संस्कृत बोली ही संस्कृत आनी त्या काळांतल्या बोलींच्या संकरांतल्यान जल्माक येता. 'महावस्तु', 'सध्दर्मपुण्डरीक', 'ललितविस्तर' हेसारके ग्रंथ असल्या संस्कृतांत आसात. ही बौध्दांनी निर्माण केली आनी जैनांचीय एक संस्कृत आसा.

बृहद्‌भारतांतल्या प्राकृत अवशेशांचें श्रेय बौध्दांक वता. हातूंतली भास व्याकरणबध्द ना. हातूंत १८९२ वर्सा फ्रेंच भोंवडेकार द्युत्रय द रँस हाका खरोष्ठी लिपींत बरयल्ल्या आनी खोतान नगरांत मेळिल्ल्या 'धम्मपद' ह्या ग्रंथाचो कांय वांटो येता. बाकीचो भाग कॅश्गार नगरांतल्या पेत्रोव्स्की ह्या रशियी अधिकाऱ्याक पयलींच मेळिल्लो. १९००-०१ च्या अदमासाक सर ऑरेल स्टायन हाका चीनी तुर्कस्तानांत खरोष्ठी लिपींत बरयल्ली बरीचशी सामुग्री मेळिल्ली. ती सगली नीया नगरांत मेळिल्ली देखून हे भाशेक 'नीया प्राकृत' हे नांव मेळ्ळें. ही सामुग्री सरकारी स्वरुपाची आसून तातूंत राजान अधिकाऱ्यांक दिल्ल्यो सुचोवण्यो, खाजगी पत्रां, वळेऱ्यो हांचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**प्राग :** आदल्या चॅकोस्लोवाकियाची राजधानी. १ जानेवारी १९९३ पसून चॅक आनी स्लोव्हाक हीं दोन स्वतंत्र राश्ट्रां निर्माण जावन आतां तीं फकत चॅकची राजधानी. एल्बची उपन्हंय वल्टावा हिचे उदेंत-अस्तंत देगेर सोंपणांसोंपणांचे दोंगुल्लेचेर हें शार वसलां. बर्लिनचे आग्नेयेक २८१ किमी. आनी विएन्नाचे वायव्येक २५७ किमी. अंतराचेर हें शार आसा. शाराचो आवाठ २९० चौ. किमी. हांगाचें हवामान विशम आसता.

हें शार इ.स. णवव्या शतमाना आदीं वसलां आसुंये. मध्ययुगांत तें बोहीमियी सत्तेखाला आशिल्लें. तातूंतल्या पर्झेमिसल घराण्यान १३०६ मेरेन राज्य केलें. बोहीमिया राज्याचे राजधानीचें शार म्हणून त्या काळांत ह्या शाराची बरीच उदरगत जाली. उपरांत लक्सेंबर्ग घराण्यांतल्या चवथ्या चार्ल्सान १३४८ त चार्ल्स विद्यापिठाची (युनिवर्झिटा कार्लोवा) हांगा स्थापना केली. १३४४त हांगा आर्चबिशपाचें कार्यालय सुरू केलें. उपरांतच्या दोनशें वर्सांच्या काळांत हांगा गॉथिक शैलींतल्यो जायत्यो इगर्जो आनी कॅथीड्रलां बांदलीं. फुडें रोमन कॅथलिक आनी प्रॉटेस्टंट हांच्या संघर्शांत १६२०त प्रागालागसल्ल्या बिला होरा (व्हायट माउंटन) झुजांत प्रॉटेस्टंट सैन्य हारलें. प्राग जर्मनीची राजधानी उरलिना. १६३१त सेक्सनांनी, १६४८त स्विडनी लोकांनी, १७४१त फ्रॅंचानी जाल्यार १७४४ आनी १८६८त पर्शियी सैन्यान ह्या शाराचेर शेक चलयलो. १७५७त सात वर्सांच्या झुजांत दुसऱ्या प्रशियींच्या हातांत पडलें. दोन खेपे हांगा प्लेगाची धाम येवन प्राग शाराची सया ल्हव-ल्हव नश्ट जायत गेली.

१७८४त ह्या शाराचे पोरणें शार, नवें शार, लेसर क्वॅर्टर, हराचानी किल्लो हे पुराय वाठार प्रशासकीय नदरेन एकठांय हाडले. ह्या काळांत हांगा व्हड-व्हड प्रासाद आनी उद्यानां बांदलीं. हांगा भरपूर इगर्जो आशिल्ल्यान 'शंबर मनोऱ्यांचें शार' म्हणून हाका वळखताले. प्रागाचें 'कार्लीन' हें पयलें उपनगर १८१७त स्थापन जालें. १८४५त हांगा पयलो रेल्वेमार्ग सुरू जालो. एकुणिसाव्या शतमानाच्या उत्तरार्धांत प्राग हें चॅक संस्कृतायेच्या प्रबोधनाचें केंद्रस्थान जालें. 'नीओक्लासिस नॅशनल म्युझीयम' (१८८५) आनी 'नॅशनल थिएटर' (१८६९) ह्यो दोन वास्तू म्हळ्यार प्रबोधनाच्योच निदर्शक. १८९० च्या सुमाराक हांगा पयले खेपे विजेवयल्यो ट्रामगाडयो सुरू जाल्यो. त्याच काळांत हांगा फ्रांसांतल्या आयफॅल टावरावरी पेट्रिन हिल हो मनोरो उबारलो. १९१८त प्राग ही चॅकोस्लोवाकियाची राजधानी जाली. म्युनिक कराराप्रमाण (२९ सप्टेंबर १९३८) चॅकोस्लोवाकिया जर्मनीच्या सत्तेखाल गेलो. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत नियोजनपुर्वक ह्या शाराची उदरगत जावंक लागली.

हांगाची अर्थीक वेवस्था वेगवेगळ्या उत्पादनांचेर आदारिल्ली आसून शारांतले चडशे कामगार निर्मिती उद्देगांत जाल्यार उरिल्ले वेपार, बांदकाम,

शिक्षण, दळणवळण, विज्ञान - संशोधन आदी मळांचेर काम करतात. हांगासल्ल्या 'प्राग वीरा' ची नामना आसा.

नगरपालिकेचें प्रशासन १९४५ सावन १५० वांगडी आशिल्ल्या प्रागाचे राश्ट्रीय समितीवतीन पळेतात. महापौराची सुवात राश्ट्र मंत्रीमंडळांतल्या मंत्र्यांच्या पांवड्याचें आसता. हांगा चडशे भुंयारी मार्ग आसात. तेचपरी वल्टावा न्हयेंतल्यान प्रवासी बोटींची येरादारी चलता. प्रागाचे अस्तंते कडेन ८ किमी. अंतराचेर रुझिन्ये नगरांत आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा.

हांगा जायत्यो शिक्षणसंस्था आसून दोन विद्यापिठांय आसात. ते भायर 'कला अकादमी' आनी 'संगीत अकादमी' हांची नामना आसा. 'युनिवर्सिटी ऑफ द सॅवण्टीन्थ ऑफ नोव्हेंबर' (१७ नोव्हेंबर १९४९ दिसा सैन्याकडल्यान जायते चॅक विद्यार्थी मेले. तांच्या उगडासाक ह्या विद्यापिठाक हें नांव दिलें) ह्या विद्यापिठाची इमारत खूब व्हड. ह्या विद्यापिठांत वेगवेगळ्या देशांतले विद्यार्थी शिक्षण घेतात.

ह्या शारांत दर वर्सा संवसारीक नामनेचो 'स्प्रिंग म्युझिक फॅस्टिवल' हो संगीत उत्सव मनयतात. 'प्राग सिंफनी' आनी 'प्राग फिलार्मानिक' ह्या वाद्यवृंदांनी संवसारीक नामना मेळयल्या. ह्या शारांत रंगमंदिरां, वस्तुसंग्रहालयां आनी प्रदर्शनघरां आसात. हांगा रोमनॅस्क, गॉथिक, बरोक, रोकोको नवअभिजात शैलींतल्यो जायत्यो कलावास्तू आनी स्मारकां आसात. तातूंत सेंट जॉर्ज चर्च (धावें शतमान), सेंट वायटस कॅथीड्रल (चवदावें शतमान) उल्लेख करपासारके आसात. पोरण्या शारांत आशिल्लो टिन चर्च, पावडर टावर, बॅथलॅहॅम चॅपल, १९३४तलो सेंट ॲग्नीस कॉन्वॅंट, ऑल्ड न्यू सिनॅगॉग, ओल्ड ज्युईश सिमेटरी, वॉल्स्टन क्लॅम गॅलास राजवाडो, सेंट निकोलास चर्च, आंतॉन्यीन दवॉरझाक म्युझीयम आदी वास्तू उल्लेख करपासारक्यो आसात. तेभायर आर्विल्ल्या वास्तूशिल्पांत 'नॅशनल म्युझीयम आनी 'नॅशनल थिएटर' हांचो आस्पाव जाता. २.५ लाख लोक बसूंक शकतात आनी सगळ्यो सुविधा आशिल्लें 'स्ट्रॅहोव' स्टेडियम' अशे व्हड प्रेक्षागार हांगा आसात. सतराव्या शतमानांतलो नामनेचो ज्योतिशशास्त्रज्ञ ट्युको ब्राए आनी योहानेस कॅप्लर हे ह्या शारांत रावताले. आंतॉन्यीन दव्हॉरझाक हो संगीतकार, आगुस्तिन स्मेताना हो तत्त्वगिन्यानी, बेडर्झिख स्मेताना हो पियानोवादक आनी आर्विल्ल्या चॅक संगिताचो जनक रायनर मारिआ रिल्के हो जर्मन भावकवी आनी लेखक, फ्रांत्झ काफ्का हो जर्मन कथा-कादंबरीकार, कारेल चापेक हो नाटककार आनी कादंबरीकार आदी नामनेच्या मनशांची ही जल्मसुवात.

- कों. वि. सं. मं.

**प्राण :** पींड-ब्रह्मांडांतलें एक मूळतत्त्व. प्राण शब्द ऋग्वेदांत आयला पूण थंय ताचो अर्थ स्पश्ट जायना. प्राण शब्दाचो खरो अर्थ स्वासोस्वास असो आसा आनी तो उपनिषदांतल्यान सांगला, उपरांत उपनिषदांच्या काळांतूय प्राण शब्दाच्या अर्थाची व्याप्ती वाडली आनी तो विश्वाचे एकात्मतेचें प्रतीक थरलो.

'मुखनासिकाभ्यां निष्क्रमणप्रवेशनात् प्राणः'

**अर्थ** - प्राणाची व्याख्या आसा म्हळ्यार तोंड आनी नाक हातूंतल्यान भायर वचप आनी भितर येवप ह्यो गजाली करपी तत्त्व, तो प्राण. प्राणाची दुसरी व्याख्या अशी आसा -

'शरीरान्तःसञ्चारी वायुः'

**अर्थ** - शरिराभितर संचार करपी वायू म्हळ्यार प्राण.

कौषीतकी उपनिषदांतल्या इंद्र-प्रतर्दनाच्या संवादांत पयलींच प्राण हें जीवनतत्त्व आशिल्ल्याचें सांगलां. 'प्राणो ब्रह्मेति ह स्माह कौषीतकी' म्हळ्यार प्राण होच ब्रह्म म्हळ्यारूच जीवनतत्त्व आसा, अशें कौषीतकीन सांगलां. स्वासोस्वास म्हळ्यार मनशाचें जीवनसर्वस्व, हें समजतकच जीवनतत्त्वाक आनी त्या अनुरोधान विश्वांतल्या जीवनतत्त्वाकूय प्राण ही संज्ञा फावो जाल्या. फुडें ह्या शब्दाक व्यक्तीचें वा विश्वाचें सामर्थ्य असो अर्थ आयलो. छांदोग्योपनिषदांत विश्वाचो मूळ आदार खंयचो असो प्रस्न उपस्ती चाक्रायणाक विचारलो, तेन्ना ताणें जाप दिली ती अशी -

प्राण इति होवाच सर्वाणि ह वा इयानि भूतानि

प्राणमेवाभिसंविशान्ति प्राणयभ्युज्झिहते ।

**अर्थ** - प्राण होच विश्वाचो आदार. कारण सगळ्यो वस्तू मुळांत प्राणापसून निर्माण जावन निमाण्यो प्राणांतूच लीन जातात.

प्राणाचें श्रेश्ठत्व सिध्द करपाखातीर छांदोग्योपनिषदांत एक कथा सांगल्या, ती अशी - एक फावट सगळ्या इंद्रियांभितर वाद जालो आनी सगल्यांत श्रेश्ठ कोण हें थरोवपाखातीर तीं प्रजापतीकडेन गेलीं. तेन्ना प्रजापतीन तांकां सांगलें, ज्या इंद्रियाबगर शरिराची शक्त उणी जाता आनी अमंगळ जाता तें इंद्रीय श्रेश्ठ मानचें. तेन्ना ताचो पडटाळो करून पळोवपापासत एकेका इंद्रियान मनशाचें शरिर सोडून वचपाचें थरयलें. पयलीं वाचा गेली, उपरांत दोळे, कान, मन हीं सगळीं इंद्रियां एका फाटल्यान एक गेलीं. वर्सभर भायर रावन परतून येतकच ताणीं पळयलें, शरीर जितेंच आसा. निमाणें प्राण वचपाक तयार जालो. तेन्ना सगळीं इंद्रियां भियेलीं. प्राण वचपाक लागतनाच सगळीं इंद्रियां शरिरापसून तुटून पडपाक लागलीं. निमाणें सगळ्यांनी प्राणाक रावपाखातीर विनवणी केली आनी प्राणाचें श्रेश्ठत्व मान्य केलें.

प्राण म्हळ्यार फकत उस्वास घेवप आनी सोडप न्हय. जाल्यार जे शक्तीक लागून ही उस्वाची क्रिया सुरू उरता ते चालक शक्तीक प्राण अशी संज्ञा आसा. ह्या दृश्य वा जड स्वासोस्वासांतलें जें चैतन्य वा सुक्ष्म रूप आसा ताका प्राण अशें म्हण्टात. आमच्या सगळ्या इंद्रियांक जी वेगवेगळी शक्त प्राप्त जाल्या ती प्राणाक लागुनूच. दोळ्यांनी पळोवप, कानांनी आयकप आनी मनान विचार करप ह्यो क्रिया प्राणशक्तीक लागुनूच घडून येतात. तेखातीर प्राणाचो अर्थ शक्ती असोच समजुंचो अशें आसलें तरी शक्तीचें जें दृश्य वा जड रूप तो प्राण न्हय. त्या दृश्य वा जड रुपाचें जें अदृश्य वा सुक्ष्म रूप तें प्राणाचें रूप समजुंचें. दिसता ती हालचाल वा गती म्हळ्यार प्राण नासून, जाका लागून हालचाल वा गती उत्पन्न जाता, तें कारण म्हळ्यार प्राण. सगळ्यो गतिमान वस्तू, शक्ती आनी तेज हांचे फाटल्यान जी त्रिकालबादीत प्रेरक शक्त आसा, तिकाच प्राण अशें म्हणचें. हें प्राणतत्त्व गुरुत्वाकर्शण, वीज, गिरे-नक्षत्रांचें परिभ्रमण आनी सगळी चराचर जीवसृश्ट हातूंत भरून रावलां. सगळ्या तरांच्या वेगवेगळ्या आकारांतल्यान आविश्कृत जावंची शक्तीचो आनी तेजाचो प्राण हो आत्मोच आसा. सगळ्या जीवनाक आदारभूत जावपी आनी जीवसृश्टचें नियमन करपी तें एक म्हान तत्त्व आसा. तें हवेंत आसा; पूण तें म्हळ्यार हवा न्हय. आमी जें अन्न खातात, तातूंत प्राण आसा; पूण अन्नांतलो जो पुश्टीक अंश तो म्हळ्यार प्राण न्हय. उदकांत तें तत्त्व आसा; पूण उदक ज्या द्रव्यांनी

तयार जाता तीं द्रव्यां म्हळ्यार प्राण न्हय. तें सुर्याच्या उजवाडांत आसता. पूण तें म्हळ्यार उश्णताय वा उजवाडाचें किर्ण न्हय जाल्यार चराचर सृश्टींतल्यो चित्शक्ती म्हळ्यार प्राण आनी चराचर वस्तू ह्यो ते चित्शक्तीचें फकत वाहनभूत जावपी साधन.

प्राण हो सगळ्यांचो संवर्ग म्हळ्यार अंत. कारण मनीस न्हिदता तेन्ना ताची वाचा प्राणांत लीन जाता; दोळे, कान आनी मन हीं सगळीं प्राणमय जातात, अशेंय छांदोग्यांत म्हळां. प्राणाचें श्रेश्ठत्व अशे तरेन प्रतीत जातकच सत्कुमारान नारदाक म्हळें -

अथ वा आरा नाभौ समर्पिता एवमस्मिन्प्राणे
सर्वं समर्पितम् ।

**अर्थ -** चाकाचे आरे जे तरेन मदीं मेळटात, तेच भाशेन ह्या जगांतल्यो सगळ्यो वस्तू प्राणांत मेळून विलीन जातात.

कौषीतकी उपनिषदांत प्राण आनी जीव तशेंच प्राण आनी प्रज्ञा हीं एकूच आसात अशें सांगलां. हाचेय फुडें प्राण आनी आत्मो हेय एकूच आसात अशेंय म्हळां.

जीवनशास्त्राचे नदरेन प्राण म्हळ्यार पिराय. मानसशास्त्राचे नदरेन प्राण म्हळ्यार प्रज्ञा आनी वेदान्तशास्त्राचे नदरेन प्राण म्हळ्यार आत्मो अशें उपनिषदांतल्या प्राणविवेचना वयल्यान समजता. प्राण आनी आत्मो एकरूप मानिल्ल्यान उपनिषदांतली प्राणोपासना ही आत्मोपासना थरल्या. तिचेपसून उपरांत दोन नैतिक कल्पना निष्पन्न जाल्यो -

१. इंद्रियांची विषयप्रीती पापाक म्हळ्यार मरणाक कारणीभूत जाता. म्हणून प्राणधारणारूप जीवनवेपाराकच म्हत्व दिवंचें. आनी

२. सगळ्यांचो प्राण तत्त्वतः एकूच आशिल्ल्यान भूतमात्राचेर दया करची.

प्राणाक पाप आफुडना कारण तो फकत पोसपाखातीर अन्न मागता आनी हेरांक ताचे वांटेकार करता. प्राण हो साम म्हळ्यार समतेचें तत्त्व आसा. मूय आसूं वा हत्ती, प्राण सगळ्यांकडेन सारको वागता. अशे तरेन प्राण हो आत्मो, परब्रह्म आनी जीवनाचो मूळ आदार थरिल्ल्यान, तत्त्वचिंतकांनी ताचो खूब अभ्यास केला. योगीजनांनी प्राणाक मुखेल धरून प्राण, अपान, व्यान, उदान आनी समान अशे ताचे पांच प्रकार कल्पिल्यात. ह्या पंचप्राणांच्या कार्यांचे म्हायतीविशीं श्लोक आसा तो असो -

प्राणात् प्रणीयते प्राणी व्यानाद् व्यायच्छते तथा ।
गच्छत्यपानोऽधश्चैन प्रतिभेदाच्च भाषते ।
इत्येवं वायवः पञ्च चेष्टयन्तीःह देहिनम् ॥

**अर्थ -** प्राणान प्राणी जिवो उरता, व्यानान वजें उखलता, अपानान मलमुत्रोत्सर्ग करता, समानान हृदयाची क्रिया चलयता आनी उदानान उस्वास वा भाशण करता. अशे तरेन पांच वायू, देहधारी व्यक्तींक विंगड-विंगड कृत्यां करपाक लायता. ह्या पांच प्राणांभायर आनिकूय पांच प्राण मानल्यात ते अशे - नाग, कूर्म, कृकल, देवदत्त आनी धनंजय.

- कों. वि. सं. मं.

**प्राणप्रतिश्ठा :** जे देवमुर्तीची वा प्रतिकाची पुजा वा उपासना करपाची आसता ते मुर्तींत-प्रतिकांत देवत्व येवंचें देखून जो विधी वा संस्कार करतात ताका प्राणप्रतिश्ठा अशें म्हण्टात. ते मुर्तीक सजीव करप वा तिचेभितर प्राण हाडप असो ह्या शब्दाचो तत्त्वीक अर्थ आसा. प्राणप्रतिश्ठेंत आपले मुखार आशिल्लो देव हो जड नासून चैतन्यमय रुपांत आसा, तो आपल्या सगळ्या कर्मांचो साक्षी, आपलें मन जाणपी आनी आपलीं अंतर्बाह्य कर्मां स्वताचे शक्तीन चलोवपी असो पुजकान अणभव करपाचो आसता.

प्राणप्रतिश्ठेचो हो विधी, कांय बिजां आनी सानुस्वार वर्णमाला हांच्या आदारान करपाचो आसता. ब्रह्मा, विष्णु, महेश हे ताचे ऋषी. ऋग्यजुस्सामाथर्व हे छंद, परा प्राणशक्ती ही देवता आं हें बीज, न्हीं ही शक्ती आनी क्रों हे कील्क. हातूंत सुर्वेक आं, न्हीं, क्रों हांचो क्रमान उच्चार करून आनी उपरांत सानुस्वार अं, यं, रं, लं, वं, शं, षं, सं, हं, सः हाचो उच्चार करून आदलीं तीन बिजां उरफाट्या क्रमान उच्चारपाची आनी देवमुर्तीचे एकेके अवयव शक्तीची आनी निमाणें प्राणाची प्रतिश्ठा करची. अशें करतना देवमुर्तीच्या पांयांक आनी काळजाक दुर्वा वा फूल लावन धरचें. उपरांत 'असुनीते' हो मंत्र म्हणून मुर्तीचे गर्भाधना आदीं १५ संस्कार सिध्द करपाखातीर १५ खेपे प्रणवाचो जप करचो. उपरांत प्राणप्रतिश्ठा केल्लें देवतेचे श्लोक म्हणून ध्यान करप. हो श्लोक असो -

रक्ताम्भोधिस्थपोतोल्लसदरुणसरोजाधिरूढा कराब्जैः
पाशं कोदण्डमिक्षूद्‌भवमथ गुगमप्यङ्‌कुशं पञ्च बाणान् ।
बिभ्राणासृक्कपालं त्रिनयनलसिता पीनवक्षोरुहाढ्या
देवी बालार्कवर्णा भवतु सुखकरी प्राणशक्तिः परा नः ॥

**अर्थ -** रगताच्या दर्यांतल्यान व्हड्यांतल्यान उल्लसपी रगतकमळाचेर आरूढ जाल्ली, हातांत दोर, उंशीचें धोणू, अंकूश, पांच बाण आनी रक्तपाल धारण करपी, तीन दोळ्यांनी सोबपी, भरगच्च हड्डें आशिल्ली आनी बाल सुर्यावरी वर्ण आशिल्ली परा प्राणशक्ती ही देवी आमकां सुखकर जावं.

उपरांत उस्वास रोखून देवाचें ध्यान करप. 'ध्रूवाद्यौः०' ह्या तीन मंत्राचो जप करप. देवाच्या कानांत गायत्री मंत्र वा जो देव आसा ताच्या मंत्राचो जप करप. पुरुषसुक्तान उपस्थान करून देवांच्या अवयवांक स्पर्श करून 'इहैवैधि' ह्या मंत्राचो तीन फावटीं जप करप. देवाक निवेद्य दाखोवप आनी पांयां पडप.

- कों. वि. सं. मं.

**प्राणाहुती :** जेवणां आदी आपोष्णी घेतकच अन्नाक तूप लावन ताच्यो ल्हान-ल्हान स आहुती पोटांत घेतात. हाका प्राणाहुती म्हण्टात. ह्यो प्राणाहुती पंचप्राणांक उद्देशून आसतात. निमाणी आहुती ब्रह्मयाखातीर आसता. ह्यो आहुती माध्यमां आनी आखाणो हाणीं धरून प्राणाखातीर; मध्यमा, अनामिका आनी आखाणो हाणीं अपानाखातीर; करंगळी, मध्यमा, अनामिका आनी आखाणो हांणी उदानाखातीर जाल्यार सगळ्या बोटांनी उखलून समानाखातीर स्वताच्या तोंडांत आहुती घालपाची आसता. ह्यो आहुती दांत लायनासतना गिळपाच्यो आसतात.

प्राणाहुती म्हळ्यार प्राणाग्निहोत्र. तोंडांत आहवनीय, काळजांत गार्हपत्य, बोंबलेंत दक्षिणाग्नी आनी ताचे सकयल सभ्य आनी आवसथ हे अग्नी आसात अशें सांगलां. ह्या अग्नीहोत्रांत वाणी हो होता, प्राण हो उद्‌गाता, चक्षू अध्वर्यू, मन ब्रह्मा आनी श्रोत्र आग्नीघ्र आसा. हातूंत अहंकार हो पशू आनी प्रणव हें दूद. तशेंच आत्मो हो येजमान आसून बुध्दी ही ताची बायल. हड्डें हें केदी, रोम हे दर्भ आनी दोन हात हे स्त्रुक आनी स्त्रुवा आसात. अशे तरेचें हें प्राणाग्निहोत्र करून जो जेवण करता तो रिणापसून आनी जल्ममरणापसून मुक्त जाता अशें सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**प्राणोपासना :** प्राण हें मुखेल जिवीततत्त्व आशिल्ल्यान उपनिषदांत ताची उपासना करपाक सांगपी जायतीं वचनां आसात. कौषीतकी उपनिषदांत जाल्यार पुराय तरेन प्राणाची उपासना करूंक सांगलां. ही प्राणोपासना आयुश्य, अमृत आनी अत्यानंद मेळोवन दिता असो उपनिषदांचो समज आसा. बुध्दीचे साधनेन योग्य विचार करून तेप्रमाण योग्य कर्म करून जो आपले संकल्प पुराय करून घेता ताका ब्रह्मलोकांत अमृतत्व आनी पूर्णत्व प्राप्त जाता अशें छांदोग्यांत आनी कठोपनिषदांत सांगलां. हो प्राणेपासनेचोच एक वांटो अशें समजतात. डॉ. के. ल. दप्तरी हाच्या मतान प्राणोपासना म्हळ्यार प्रज्ञानमय जिवाचीच उपासना.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रातःस्मरण :** प्रातः समयार म्हणजे फांतोडेर हांतरुणावयल्यान उठ्ठकच देवाची श्लोकरुपान याद करप हाका प्रातःस्मरण म्हण्टात. तेविशीं एक श्लोक आसा तो असो –

ब्राह्मे मुहूर्ते चोथात्य चिन्तयेदात्मनो हितम्
स्मरणं वासुदेवस्य कुर्यात् कलिमलापहम् ॥

**अर्थ** – ब्राह्म म्हुर्तार उठून आत्मकल्याणाचें चिंतन करप; तशेंच कलिदोश पयस करपी वासुदेवाची याद करप. उठ्ठकच सगळ्यांत आदीं आपल्या दोनूय हातांचे तळवे पळोवप हाका करदर्शन म्हण्टात. ताचो श्लोक असो –

कराग्रे वसते लक्ष्मीः करमध्ये सरस्वती ।
करमूले तु गोविन्दः प्रभाते करदर्शनम् ॥

**अर्थ** – कराग्र म्हळ्यार हात, तातूंत लक्ष्मी, करांमदीं सरस्वती आनी करमुलांत गोविंद वास करता देखून फांतोडेचेर उठून करदर्शन करप.

ह्या करदर्शनाफाटलो हेतू असो. मनशाचो हात हो एक समर्थ अवयव. पुरूशार्थ सादपाच्या कामांत हातांचो उपेग जाता. हातांच्या योगान खूबशीं व्हड-व्हड कामां करूं येतात. मनशाक जिणेंत येस आनी वैभव प्राप्त करून घेवपाचें आसत जाल्यार ताणें आपलें बुद्धी वांगडा हातांचोय उपेग करून घेवंक जाय. हातांत देव आसतात हें समजतकच मनीस आत्मविश्वासान तांचो उपेग करून घेतलो हें जाणून शास्त्रकारांनी फांतोडेचेर करदर्शन करपाक सांगलां. उपरांत प्रातःस्मरण ज्या क्रमान करपाचें तो क्रम असो.

आदित्यं गणनाथं च देवी रूद्रं यथाक्रमम ।
नारयणं विशुद्धाख्यमन्ते च कुलदेवताम् ॥

**अर्थ** – सूर्य, गणपती, देवी आनी विशुध्द किर्तीचो नारायण हांचें स्मरण करून निमाणें कुलदेवतेचें स्मरण करप.

ऋग्वेदीय ब्रह्मकर्मान सूर्यस्मरणाचे, गणपति स्मरणाचे आनी देवीच्या स्मरणाचे दरेकीं तीन, शिंवाच्या स्मरणाचे चार आनी विष्णुच्या स्मरणाचे चार श्लोक दिल्ले आसात. उपरांत नवग्रह, भृगवादी ऋषी, सनत्कुमारादी देवर्षी, सप्तलोक सप्तसमुद्र, सप्तकुलपर्वत, सप्तर्षी, पृथु-हैहय आदी राजा, बली, बिभीषण आदी भक्त; अश्वत्थामा, व्यास आदी सप्तचिरंजीव, अहल्या, द्रौपदी आदी स्त्रीपंचक; पांच पांडव; नल, युधिष्टिर आदी राजा, काशी आनी थंयची देवस्थानां हांचे स्मरण करपाक सांगलां. हें प्रातःस्मरण करतकच फुडलो श्लोक म्हणून भुंयेची प्रार्थना करप. तो श्लोक असो –

समुद्रवसने देवि पर्वतस्तनमण्डले ।
विष्णुपत्नि नमस्तुभ्यं पादस्पर्श क्षमस्व मे ॥

**अर्थ** – समुद्रांचें वस्त्र न्हेसपी आनी पर्वतरूपी थानांनी सोबपी हे विष्णुपत्नी भूदेवी, तुका नमस्कार. म्हज्या पांयांचो तुका स्पर्श जाता देखून म्हाका माफ कर.

ही प्रार्थना जातकच सूर्य, गुरू आनी जाण्टे लोक हांकां पांयां पडून 'प्रातरग्निम्०' हें प्रातःसूक्त म्हणप.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रादेशिक साहित्य :** खंयच्याय विशिश्ट वाठारांतल्या वातावरणाचें, रिती रिवाजाचें, बोलीभाशेचे घाटणेचें, लोकांच्या सभावाचें, उद्देगधंदे, वेपार आनी वट्ट जिवीत पद्दतीचें प्रत्ययकारी दर्शन घडोवपी साहित्य हें प्रदेशीक साहित्य. प्रदेशीक साहित्याची प्रत्ययकारीता फकत वातावरणनिर्मिती पुरतीच मर्यादीत उरना. ती विशिश्ट प्रदेशांत रावपी मनशाच्या आयुश्याची रीत, तांच्या व्यक्तिमत्वाची जाण त्या-त्या प्रदेशांतल्या खाशेलपणांनी कशी वेगळी जाल्या, तशेंच सैमाचो, भूंयवाठाराच्या खाशेलपणाचो आनी लोकजिणेचो संबंद कसो अतूट आसा हांचें दर्शन प्रदेशीक साहित्यांत घडटा.

प्रदेशीक साहित्याचें एक बेस बरें उदाहरण म्हळ्यार टॉमस हार्डी ह्या कादंबरीकारान इंग्लंडांतल्या 'वेसेक्स' नांवांन वळखतल्या भूंयवाठारांतल्या जिविताचें चित्रण करपी एक कादंबरीमालिका. विसाव्या शतकांतल्या आर्नोल्ड बॅनेट ह्या इंग्लीश कादंबरीकारान स्ट्रॅटफर्ड ह्या उद्देगीक नदरेन प्रगत आशिल्ल्या शार वाठारांतल्या पंचनगरे (फायव टावन्स) नांवान वळखतल्या वाठाराचें चित्रण करपी कादंबरी मालीका बरयली. हाचे भायर इंग्लीश प्रदेशीक कादंबरीच्या मळार शार्लट ब्रॅांटी (शर्ली), जॉर्ज एलियट, अमेरिकी कादंबरीकार विल्यम फॉकनर, आयर्लंडी लेखक जॉयस आदींनी उल्लेखनीय बरप केलां. तेभायर जे. एम. सिंग हाणें आपल्या नाटकांवरवीं अस्तंत आयर्लंडांतली प्रदेशीक जीण प्रभावीपणान चित्रीत केल्या. कादंबरीचे मुखेल घटक, कथा, पात्रां, घडणुको, वातावरण आदी त्या वाठाराक लागून कितलीं आनी कशीं संस्कारीत जातात हाचो आदीं विचार करुनूच ती कादंबरी प्रदेशीक वा अप्रदेशीक हें थारायतात.

मराठी प्रदेशीक साहित्याच्या मळार गो. नी. दांडेकर (पडघवली), श्री. ना. पेंडसे (गारंबीचा बापू), चिं. त्र्यं. खानोलकर (चानी – दिर्घकथा), बाळकृष्ण प्रभुदेसाई, मं. वि. कोल्हटकर आदी साहित्यिकांनी कोंकणाविशीं आनी थंयच्या लोकांविशीं उल्लेख करपासारकें साहित्य निर्मिलां.

व्यंकटेश माडगुळकराच्या 'माणदेशी माणसे' ह्या पुस्तकांत माणदेशाच्या उपेक्षीत जिविताचें अभिजात चित्रण दिश्टी पडटा. हाचे भायर व्यंकटेश माडगूळकर हाची 'बनगरवाडी', शंकर पाटील हाची 'हारफुला', आनंद यादव हाची 'गोतावळा' तशेंच अण्णाभाऊ साठे हाची 'फकिरा' आनी हेर कादंबऱ्यानी गांवगिरे जिणेचें बेसबरें चित्रण केल्लें दिश्टी पडटा.

हाचेभायर विदर्भांतलो सैम, वातावरण आनी जिवीत हांचें प्रभावीपणान चित्रण करपी उद्धव शेळके हाची 'धग' ही कादंबरी उल्लेख करपासारकी आसा. ताचीच 'बाई विना बुवा', बाजीराव पाटील हाची 'भंडारवाडी', गो. नी. दांडेकर हाची 'पूर्णामायची लेकरं', मनोहर तल्हार हाची 'माणूस' आदी प्रदेशीक साहित्यकृती उल्लेख करपासारक्यो आसात. पुरुषोत्तम दारव्हेकर हाचें 'वऱ्हाडी मान्सं' हें नाटकय प्रदेशीक साहित्याच्या संदर्भांत उल्लेख करपासारकें आसा. हाचेभायर भाऊ मांडवकर, ना. रा. शेंडे,

वामनराव चोरघडे हांणीय प्रदेशीक साहित्याचे निर्मितीक हातभार लायला.

विशिश्ट अशा वातावरणांत जीवन जगपी दलीत लेखकांनी आपल्या जिविताचें पडबींब प्रदर्शीत जावपासारकी बरपावळ बरोवन मराठी साहित्यांत एक आगळी वेगळी भर घाली आनी दलीत समाजाचें पूण थरावीक अशा वाठाराचें चित्रण आपल्या साहित्यांत करून दलीत लेखकांनी आपलो असो म्हणून वेगळो छाप मारलो. दलीत साहित्यांत एका अर्थान प्रदेशीक साहित्य म्हणूं येता.

कोंकणी साहित्यांत, विशेश करून, गोंयचे सुटके उपरांत कोंकणी माती हो साहित्याचो एक मुखेल मानदंड धरलो. हातूंतल्यान बऱ्याचशा लेखकांनी कोंकणी वाठार हो आपल्या साहित्यांतली फाटभूंय आनी कोंकणी जीवन पद्दत हो आपल्या साहित्याचो आशय घेतलो. भोवतेक सगळ्याच साहित्यिकांनी प्रदेशीक साहित्याचेर भर दिल्लो दिश्टी पडटा. कोंकणी साहित्यिकांमदले चडशे साहित्यीक हे गांवगिऱ्या वाठारांत रावपी वा रावून आयिल्ले आशिल्ल्यान तांच्या साहित्यांत प्रदेशीकताय येवप स्वभावीक जालें.

पुंडलीक नायक हाची "अच्छेव' (कादंबरी) 'खण खण माती' (नाटक), महाबळेश्वर सैल हाची 'काळी गंगा' (कादंबरी) ह्यो कोंकणी प्रदेशीक साहित्यांच्यो कांय समर्थ देखी आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**प्राप्तीकर :** व्यक्ती.वा आस्थापनांचे येणावळीवयलो कर. राज्याच्या उत्पन्नाचें एक मुखेल साधन आशिल्लो प्रत्यक्ष कर. राज्यशासनाखातीर प्राप्तीचें साधन आशिल्लो हो कर राज्यांतली अर्थीक विशमताय उणी करप, अर्थरचनेंत सवस्तकाय हाडून तिचो विकास करप अशीं म्हत्वाचीं उद्‌दिश्टां सादता.

कर ही कल्पना पुरातन आसली तरी प्राप्तीकर ही संकल्पना आधुनीक जगाची. वेपार आनी उद्देग हीं आधुनिक अर्थवेवस्थेचीं मुखेल साधनां जाल्ल्यान तांचेवरवीं जावपी प्राप्तीचो कर पोरण्या कराचे कक्षेंत येना जालो आनी हातूंतल्यान प्राप्तीकराचो उदय जालो. सुर्वेक झुजा काळांत राज्याचें येणावळीचें साधन म्हणून १७९९ वर्सा इंग्लंडांत सगळ्यांत आदीं ह्या कराचो वापर जालो. यादवी झुजां काळांत अमेरिकेंतय तो वापरांत आयलो. झुजां काळांतलें येणावळीचें साधन म्हणून मुखार आयिल्लो हो कर उपरांत स्वित्झर्लंडांत झुजां नासतनाय लावप जालो. इंग्लंडांतय १८४२त शांतताये काळांत हो कर लायलो आनी ताचे उपरांत ऑस्ट्रिया (१८४९), अमेरिका (१८६२), इटली (१८६४), जर्मनी (१८९४), फ्रांस (१९१४) अशें करीत आयज भोवतेक सगळ्या राश्ट्रांनी एक म्हत्वाचें अर्थीक साधन म्हणून हो कर लायतात.

आधुनिक स्वरुपांतल्या प्राप्तीकराची सुरवात भारतांत १८६० वर्सा जाली आनी फुडें बरेच प्रयोग केले उपरांत प्राप्तीकर आयचे अवस्थेक पावलो. शेतीचें उत्पन्न, हिंदू अविभक्त कुटुंबाचें उत्पन्न हांचे सारकिले खासा भारतीय समाजाकडेन निगडीत आशिल्ल्या अर्थकारणांनी दिल्ल्या मोडाक लागून भारतीय प्राप्तीकराक आपलीं अशीं खाशेलपणां प्राप्त जाल्यांत. अधिकर, अतिरिक्त नफाकर हे अवस्थेंतल्यान वचून १९६१च्या कायद्याप्रमाण संमत जाल्लो प्राप्तीकर हो आयचो एकमेव मध्यवर्ती प्राप्तीकर आसा.

करपात्र व्यक्तिच्या वट्ट प्राप्तीवयल्यान फायदो, हेर भाटाबेंसाचें उत्पन्न, वेपारधंद्यावयलो फायदो, पगार आणि कळंतर, उत्पन्न कराचें प्रमाण थरयतात. भांडवली स्वरूप नाशिल्लें नुकसान करपात्रप्राप्ती मेळोवपाखातीर जाल्लो खर्च, देणग्यो, आयुर्विम्याचे हप्ते आनी नोकरांखातीर केल्ल्या सुविधांचेर (भविश्य निर्वाहनिधी, पेन्शन) जाल्लो खर्च, संबंदीत शास्त्रीय संशोधनाखातीर केल्लो खर्च सारकिली रक्कम थरावीक प्रमाणांत प्राप्तीकरांतल्यान उणी करपाची सवलत आसा. एकोडी व्यक्ती, भागीदारी, विश्वस्त संस्था, निगम हांचे प्राप्तीचे वेगवेगळे प्रकार आशिल्ल्यान प्राप्तीकराचें प्रमाणूय ते प्रमाण वेगळें थरता. प्राप्ती अमुकूच एके थरयल्ले शिमेर पावली म्हण्टकच प्राप्तीकर सुरू जाता. ही शीम स्थीर आसना. जाल्यार राज्याच्या अर्थीक धोरणानुसार ती थरावीक काळांत बदलत आसता. तेचपरी प्राप्तीकरांत सूट मेळपाचें प्रमाणूय बदलता. करप्राप्त घटकांनी दिल्ले मुदतींत कर भरचो आसता. जे कर बुडयतात ताका न्यायालयीन ख्यास्त करपाची वेवस्था कर वेवस्थेंत आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रायश्चित्त :** मनशाच्या हातांतल्यान चुकून वा कळून सवरून जें पातक जाता तें निवळावपाखातीर त्या मनशान करपाचें विशिश्ट धर्मीक व्रत. नित्य, नैमित्तिक, काम्य आनी निषिध्द अशे धर्मशास्त्रोक्त कर्माचे चार प्रकार आसात. प्रायश्चित्ताक नैमित्तिक कर्म म्हण्टात. 'प्रायः' म्हळ्यार तप आनी 'चित्त' म्हळ्यार 'निश्चेव'. तप आनी निश्चेव हाणीं युक्त अशें जें कर्म ताका 'प्रायश्चित्त' म्हणचें.

धर्मज्ञांची परिशद, धर्मगुरू, पुरयत, शामान हांचेकडेन वचून प्रायश्चित्त घेवपाचें आसता. पुरयतान योग्य प्रायश्चित्त दिलेंना जाल्यार ताका पाप लागता. प्रायश्चित्त घेतलेंना जाल्यार पापाचे वायट परिणाम भोगचे पडटात, प्रायश्चित्त घेवन नुकसान-भरपाय दिवंक जाय. पातक्यान गायेचो जीव वांचयल्यार ताका प्रायश्चित्त करचें पडना अशीं मतां मेळटात.

प्रायश्चित्त सांगतना पातक मुद्दाम केलां काय चुकून जालां, एकदांच कांय चड खेपे जालां, पातकी मनशाची पिराय, गिन्यान, दर्जो, परिस्थिती, देश, लिंग हांचो तशेंच पातक गंभीर स्वरुपाचें आसा काय सादें हांचोय विचार करचो पडटा.

मुद्दाम पातक करतल्याक दोट्टी, ८० वर्सांवयले आनी १६ वर्सां सकयले पिरायेच्या दादल्यांक तशेंच पिडेस्त आनी बायलांक अर्दे पटीन प्रायश्चित्त दिवंचें. पांच वर्सां सकयल्या भुरग्यांक प्रायश्चित्त नासून पांच ते ११ वर्सांच्या पिरायेंतल्या भुरग्याचें प्रायश्चित्त ताचो भाव, बापूय हाणीं घेवंचें. ब्राह्मणांक कांय पातकांक हेरांपरस चड जाल्यार कांय पातकांक उणें प्रायश्चित्त मेळटालें. ब्रह्मचारी, वानप्रस्थ आनी संन्यासी हांकां अनुक्रमान दोट्टी, तिट्टी आनी चारपटींनी प्रायश्चित्त दिवंचें. प्रायश्चित्त घेवप चालू आसतना मरण आयल्यार पातकांतल्यान सुटका जाता. अश्टमीक वा चतुर्दशीक तशेंच सुतकांत आसल्यार प्रायश्चित्त घेवंचें न्हय, अशे नेम आशिल्ले. चडशे फावटीं प्रायश्चित्त हें जाहीरपणान घेताले. पूण पातक फकत स्वताकूच खबर आसल्यार ताचें प्रायश्चित्त गुपीतपणान घेवपाक मेळटालें. पातकी मनीस अग्निहोत्री, विद्वान आनी जाण्टो आसल्यार ताकाय प्रायश्चित्त गुपीतपणान घेवंक मेळटालें. बायल-शुद्रांकूय प्राणायाम, दान हांचेवतीन प्रायश्चित्त घेवंक मेळटालें.

उज्यांत उडकी घेवप, तापते लोखणी खांटीचेर न्हिदप अशीं कांय खर प्रायश्चित्तां धर्मशास्त्रांत सांगल्यांत. काळा प्रमाण हीं प्रायश्चित्तां फाटीं पडलीं. शरीर हेंच धर्माचें मुखेल साधन आशिल्ल्यान ताका चड यातना जावन नश्ट जावंचें न्हय ह्या विचारान 'प्रत्याम्नायां' ची कल्पना मुखार आयली. देखीक - पातकी मनीस प्राजापत्य प्रायश्चित्त करूंक शकना जाल्यार त्या मनशान एक दूद दितली गाय दान करची वा प्रत्याम्नाय द्रव्याचें दान करचें. तशेंच ब्राह्मणाक जेवण, उदकांत उबें रावप, होम, वेदपठण, तीर्थयात्रा, दान, नामस्मरण, जप हे पर्याय निर्माण जावन प्रायश्चित्तांची संख्या उणी जाली.

प्रायश्चित्ताचे खूब प्रकार आशिल्ले. तीन दीस फकत दनपारचें आनी तीन दीस फकत रातीचें जेवण घेवचें, उपरांत तीन दीस मागनासतना किदें मेळटा तें खावंचें आनी निमाणचे तीन दीस उपास करप हाका 'कृच्छ्र प्रायश्चित्त' म्हण्टात. हे भायर अतिकृच्छ्र, कृच्छ्रसंवत्सर अशीं कृच्छ्र नांवांची कितलींशींच प्रायश्चित्तां आसात. शुक्ल पक्षांत पाडव्या दिसा एक घांस अन्न खावन तें पुनवेमेरेन सदां एकेक घांस वाडोवप आनी तशेंच कृष्णपाडव्यासावन उमाशेमेरेन एकेक घांस उणो करप हाका 'चांद्रायण' म्हणटात. हाचेय यवमध्य, पिपीलिकामध्य, ऋषी, शिशू अशे भेद आसात. पयल्या दिसा दर्भ बुडयल्लें उदक आनी पंचगव्य घेवप आनी दुसऱ्या दिसा पुराय उपास करप हें 'सांतपन'. महासांतपन, अतिसांतपन, यतिसांतपन अशेय सांतपनाचे प्रकार आसात. गुरू वा भावाक जितो मारिल्लो आसल्यार, गायेक यव चरपाक घालून तिच्या शेणांतले ताचे कण काडून १२,२४ वा ३६ वर्सां खावप हें 'बृहद्‌यावक'. हे भायर सोमायन, अघमर्षण, अश्वमेधावभृथ, न्हाण, एकभक्त, गोव्रत, पंचगव्य, पराक, पर्णकूर्च, प्रसृतायावक ब्रह्मकूर्च, याम्य, यावक, वज्र हीं प्रायश्चित्तां सांगल्यांत. विंगड विंगड स्मृतींनी एकाच पातकाचेर विंगड विंगड प्रायश्चित्तां सांगल्यांत अशेंय दिसता. चार महापातकांक बारा वर्सांमेरेन सदांच तीन खेपे न्हावप, जमनीर न्हिदप, कंदमुळां खावप, पातक सांगून भिक्षा मागप, एकदांच जेवण अशें एक प्रायश्चित्त आसतालें. ब्रह्महत्या, आवय, बापूय हांची हत्या, अगम्य आप्तसंभोग ह्या पातकांक देहांत म्हळ्यार मरण येमेरेन प्रायश्चित्त दिताले. सगळ्या पापांक तांचे खराये प्रमाण प्रायश्चित्त आसतालें.

कर्माचें फळ भोगचेंच पडटा, प्रायश्चित्त घेतल्यार लेगीत तें चुकना अशें बौध्द धर्मांत म्हळां. पूण एकेकदां चूक मागतकच भोगसुपाची चाल आशिल्ली. पुर्विल्ले अमेरिकी लोक स्वताच्या दोळ्यांचेर मिरसांग घांसून वा स्वताच्या मासाचे कुडके सुर्या सारकिल्या देवांक ओंपून प्रायश्चित्त घेताले. बॅबिलोनियांत एका बरोवपाच्या फळ्याचेर पातकां बरोवन तीं देवामुखार वाचतकच तो फळो मोडून उडयताले आनी पातकां सोंपलीं अशें मानताले. कोणेंय मनशान पाप केल्यार ताचें फळ समाजाक भोगचें पडटा देखून त्या मनशाक दंड करचो आनी तो दंड म्हळ्यारूच प्रायश्चित्त अशें ग्रीसी लोक मानताले. हिंदू धर्मशास्त्रांत लेगीत राजदंड हें एक प्रायश्चित्त मानलां. नाच, खेळ, यज्ञ, मेल्ल्यांक पुरप, शेती असल्या कामांनी कसलीय बारीक चूक जाल्यारूय रोमी लोक प्रायश्चित्त घेतात. नगरांत मडें पुरपासारको मुद्दाम केल्ल्या गुन्यांवाक प्रायश्चित्त आनी दंड दोनूय भोगचीं पडटात.

ज्यू आनी क्रिस्तांव धर्मांनी प्रायश्चित्तांत पश्चाताप आनी पापमुक्तीच्या यत्नाक चड म्हत्व आसता. मानवजातीच्या पापांखातीर ज़ेजू क्रिस्तान मरण आपणावन प्रायश्चित्त घेतलें, पश्चाताप आनी पापाची कबुली गरजेची, धर्मगुरून पाप केल्यार ताका सामान्य मनशापरस चड प्रायश्चित्त दिवंचें, जिणेंत फकत एकदांच प्रायश्चित्त घेवपाक मेळटा अशीं क्रिस्तांव लोकांचीं कांय मतां आसात.

सुरवातीच्या काळांत जाहीरपणान प्रायश्चित्त घेताले. उपरांत मात तें खाजगी स्वरुपांत घेवंक लागले. प्रार्थना, उपास, धर्मगुरूक नमस्कार, साकाचे कपडे शिंवून घालप अशा स्वरुपांतूय प्रायश्चित्त घेतात. कांय प्रायश्चित्तां ३० वर्सांमेरेन चलतात. ट्यूटॉनिक लोकांभितर कोणेंय खून करीत जाल्यार प्रायश्चित्त घेवन आनी भरपाय दिवन दोन पंगडांतलें दुस्मानपण निवळावपाक येता. कोणेंय देवाआड पातक केलें जाल्यार सगळ्या समाजाचेर संकश्ट येता, हे समजुतीन प्रायश्चित्त म्हणून ताका बळी दितात. पारशी लोकांच्या 'अवेस्ता' ग्रंथांतल्या वेंदिदाद ह्या भागांत प्रायश्चित्त करचेपरस पातकूच करचें न्हय, प्रायश्चित्त घेतलेंना जाल्यार पाप वाडट वता, सदांच न्हिदचे पयलीं प्रायश्चित्तात्मक प्रार्थना म्हणची, मडें पुरप वा लासप ह्या पापाक प्रायश्चित्त ना अशीं मतां आसात. दीसपट्टी प्रार्थना, रमजानाचो उपास, मक्केची यात्रा ह्यो गजाली केल्योनात जाल्यार चड प्रार्थना, उपास वा हेरांकडल्यान यात्रा करप ह्या मार्गांनी भरपाय करची आनी हेर प्रायश्चित्त करपाची गरज ना अशें इस्लाम धर्मांत मानतात. हेर पापांविशीं कुराणांत कांय प्रायश्चित्तां सांगल्यांत. पातक केल्लो मनीस गरीब आसत जाल्यार ताणें फकत उपास करचो अशें मत आसा.

धर्मग्रंथांतले वेव्हार, आचार आनी प्रायश्चित्त ह्या तीन विभागांतलो प्रायश्चित्त हो एक. गौतमधर्मसूत्र आनी वसिष्ठधर्मसूत्र हांचो एक-तृतियांश भाग,मनुस्मृतीचे २२२ आनी याज्ञवल्क्यस्मृतीचे १२२ श्लोक तशेंच स्मृतिपुराणांतले हजारांनी श्लोक ह्या 'प्रायश्चित्त' विशयाचेर आसात. प्रायश्चित्तविवेक, प्रायश्चित्त प्रकाश, प्रायश्चित्तमयूरव, प्रायश्चित्तेंदुशेखर ह्या निबंदांनी प्रायश्चित्ताचीच विस्कटावणी केल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रायोपवेशन :** एक व्रत. हाची व्याख्या अशी –'प्रायेण मृत्युनिमित्तकानशनेन उपवेशःस्थितिः' = मरणाक कारणीभूत अशा निराहार उपासान मरण येसर रावप म्हणजेच प्रायोपवेशन. हातूंत सगळो कर्मसंन्यासयुक्त आहारत्याग करून मरणाक निमंत्रण दिवपाचें आसता. 'तूं सर्पदंशान सात दिसांनी मरतलो' असो ऋषीन शाप दिल्ल्यान परिक्षित राजान प्रायोपवेशन करून मरण पत्करलें अशी कथा भागवतांत आसा. जैनांमदीं ही प्रायोपवेशनाची चाल अजून चालू आसा. तिका ते सल्लेखना अशें म्हण्टात. प्रायोपवेशन हें एक तरेचें इत्सामरण. पूण आत्महत्येवरवीं घेतिल्लें इत्सामरण आनी प्रायोपवेशन हातूंत फरक सांगला.

प्रायोपवेशन शास्त्रान मानून घेतलां; आत्महत्या मानून घेवंक ना. कायद्यान दोगांकय मान्यताय दिवंकना. आत्महत्येवरवीं इत्सामरण घेवपाची कायदेशीर मेकळीक आसची अशी कांय जाणांची मागणी आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रारब्ध :** जीव जीं बरीं-वायट कर्मां करता ताचें फळ ताका भोगचेंच पडटा. तें कर्म ह्या जल्मांतलें आसूं वा आदल्या जल्मांतलें आसूं. मनशाचें आदल्या जल्मांतलें कर्म त्या-त्या जिवाच्या नांवान एकठांय जावन रावतात. हाकाच लौकीक भाशेंत दैव अशें म्हण्टात. ह्या सांठयल्ल्या कर्मांतलो जो भाग फळ दिवपाक सुरवात करता ताका प्रारब्ध अशें म्हण्टात. हाचे

स्वेच्छाप्रारब्ध, परेच्छाप्रारब्ध आनी अनिच्छाप्रारब्ध अशे तीन प्रकार पंचदशींत मानल्यात.

**स्वेच्छाप्रारब्ध** : आपणें कुपथ्य केल्यार आपल्याक मरण येतलें हें खबर आसुनूय मनशान जाणा जावन कुपथ्य करप हाका स्वेच्छाप्रारब्ध अशें म्हण्टात. सामर्थ्यवान मनशाक लेगीत मूलभूत अशा स्वेच्छाप्रारब्धाचें निवारण करपाक शक्य जायना अशें विद्यारण्यास्वामी म्हण्टात.

**परेच्छाप्रारब्ध** : दुसऱ्या कोणाच्या तरी सामर्थ्याक लागून जिवाक सुखदुख्ख भोगचें पडप, हाका परेच्छाप्रारब्ध अशें म्हण्टात. देखीक, राजा हरिश्चंद्राक वसिष्ठाच्या अनुग्रहान सूख मेळ्ळें आनी विश्वामित्राच्या रागाक लागून त्रास सहन करचे पडले.

**अनिच्छाप्रारब्ध** : जायते फावटीं मनीस स्वताची इत्सा नासुनूय दुसऱ्याचे इत्सेक लागून बरीं - वायट कर्मां करता आनी ताचें फळ भोगता, हाका अनिच्छाप्रारब्ध म्हण्टात. शिखिध्वज राजाक तत्वगिन्यान मेळटकच ताका कसलेच प्रकारची भोगिच्छा उरना. अशें आसुनूय ताका राणयेच्या आगऱ्याखातीर राज्यभोग घेवंचो पडलो.

वयर उल्लेख केल्लीं तीन तरांचीं प्रारब्धां तीव्र, मध्य, मंद आनी सुप्त अशा चार भेदांनी बारा तरांचीं जातात, अशें अनुभूतीप्रकाश ह्या ग्रंथांत सांगलां. ह्या दरेकाचें स्पश्टीकरण अच्युतरायान आपल्या अद्वैतामृतमंजिरी ह्या ग्रंथांत केलां. योग, भक्ती आनी आत्मगिन्यान हांच्या योगान संचित कर्मां नश्ट जातात. पूण प्रारब्ध मात भोगुनूच सोंपोवंचें पडटा. आत्मगिन्यानी मनशाक लेगीत प्रारब्धभोग चुकना. कुडीचीं सुख-दुख्खां हीं प्रारब्धाधीन आसतात अशें सगळे संत आनी तत्तवगिन्यानी सांगतात.

– कों. वि. सं. मं.

**प्रार्थना समाज :** एकुणिसाव्या शतमानांत धर्माची सुदारणा करपाच्या हेतान स्थापन जाल्लो एक पंथ. बंगालांतल्या ब्राह्मो समाजाचो एक प्रवक्तो केशवचंद्र सेन हांचे प्रेरणेक लागून मुंबयंतल्या कांय विचारवंतांनी ३१ मार्च १८६७ दिसा ह्या समाजाची स्थापना केली. डॉ. आत्माराम पांडुरंग तर्खडकर हो ह्या समाजाचो पयलो अध्यक्ष आशिल्लो. प्रार्थना आनी सेवा हांचे वरवींच देवाची पुजा करूंक फावो अशी ह्या पंथाची विचारधारा आशिल्ल्यान ताच्या प्रवर्तकांनी ह्या पंथाक 'प्रार्थनासमाज' अशें नांव दवरलें.

इंग्लीश शिक्षणाचो प्रसार आनी अस्तंतेकडल्या विचारांचो प्रभाव हाका लागून सुशिक्षीत हिंदूंक आपल्या धर्मांतल्यो अंधश्रध्दा, कर्मकांड, वायट रुढी, जातीभेद हांच्या वायट परिणामांची जाणविकाय जाल्ली. ताका लागून कांय लोक आपलो धर्म सोडून क्रिस्तांव धर्माचो स्विकार करूंक लागिल्ले. जांकां हिंदू धर्माचो अभिमान आशिल्लो, तांच्या मनांत धर्मांतराचो विचार आयलोना, ते धर्मसुदारणेचो विचार करूंक लागले. दादोबा पांडुरंग तर्खडकर, राम बाळकृष्ण जयकर, भिकोबा चव्हाण, तुकाराम तात्या, आत्माराम पांडुरंग तर्खडकर अशा कांय सुशिक्षितांनी १८४९त परमहंस सभा स्थापन केल्ली. पूण ती रोखडीच बंद पडली. फुडें हेच सभेच्या वांगड्यांनी प्रार्थना समाजाची स्थापना केली. इ.स. १८७०त न्यायमूर्ती रानडे आनी डॉ. रा. गो. भांडारकर हे विद्वान, समाजाचे वांगडी जाले. उपरांत वामन आबाजी मोडक, नारायण गणेश चंदावरकर, वि. रा. शिंदे, सुखठणकर आदी कितलेशेच कार्यकर्ते समाजाक मेळ्ळे.

डॉ. भांडारकर हाणें सांगलें, उपनिषदां, गीता आनी आर्विल्ल्या साधुसंतांचे उपदेश हांचे बुन्यादीचेर प्रार्थना समाजाचो धर्म आदारिल्लो आसा; अव्यक्त अशा निर्गूण ईश्वराची प्रार्थना हो समाज करिना. तो सत्य, ज्ञान आनी आनंद रुपाच्या सगूण ईश्वराची उपासना करता. डॉ. रानडे हाणें युरोपांतली मार्टिन ल्यूथराची धर्मसुदारणा आनी भागवत धर्म हांच्यांतलें सारकेपण उक्तायलें. ज्ञानदेव, तुकाराम आनी हेर संतांनी तांच्या काळांत समाजांत जी भक्तीची जागृताय केली, तोच भक्तीभाव समाजांत परत उदेवंचो अशें ताका दिसतालें. ताका लागून त्या संतांच्या अभंगांचो आस्पाव समाजाचे प्रार्थनेंत केलो. प्रार्थना समाजाचीं तत्त्वां ताणेंच थारायलीं.

समाजाच्या प्रार्थना घरांत जावपी उपासनेंत फुडलेप्रमाण स भाग आसतात - १) उद्‌बोधन २) स्तवन ३) ध्यान आनी प्रार्थना ४) उपदेश ५) प्रार्थना आनी ६) आरती. प्रार्थनासमाज हो ब्रह्मवादी आसा पूण मायावादी ना. दर वर्सा एक दीस तांचो वर्सुकी उत्सव जाता.

**प्रार्थना समाजाचीं धर्मतत्त्वां -**

१. परमेश्वरान हें सगळें ब्रह्मांड रचलें. तोच एक खरो ईश्वर. तो नित्य, ज्ञानस्वरूप, अनंत, आनंदमय, निराकार, सर्वज्ञ, सगळ्यांचो नियंतो, सर्वशक्तीमान, कृपाळू, परमपवित्र आनी पतितपावन असो आसा.

२. फकत ताचेच उपासनेवरवीं इहलोकाची वा परलोकाची शुभ प्राप्ती जाता.

३. ताचेविशीं अनन्य आनी पुज्य भाव दवरून ताचें मानसीक भजन-पुजन करप आनी ताका आवडटात अशीं कर्तपां करप, हीच ताची खरी उपासना.

४. प्रतिमा आनी हेर सृश्ट पदार्थ हांची पुजा करप, हो ईश्वर उपासनेचो खरो मार्ग न्हय.

५. परमेश्वर सशरीर रुपान अवतार घेना आनी खंयचोच ग्रंथ साक्षात ईश्वरप्रणीत ना.

६. सगळे मनीस ही देवाचीं भुरगीं आसात. देखून भेदभाव बाळगिनासतना एकामेकांकडेन ताणीं भावपणाच्या नात्यान वागप, हें देवाक आवडटा.

प्रार्थना समाज एकेश्वरी मताचो आसून ताका मुर्तीपुजा मान्य ना. उपनिषदां आनी हेर सगळे धर्मग्रंथांतले पारमार्थिक आनी नैतिक सिध्दांत प्रार्थना समाज मानता. साधकांक स्वानुभवांतल्यान सत्याचें ज्ञान जावंक शकता. विवेकबुध्दीत धर्म आनी नितीतत्वां समजूं शकतात. सर्वांगीण समाजीक सुदारणेची बुन्याद सदाचरणाचेर आदारित आसची, हाचेर प्रार्थना समाज भर दिता.

इंग्लीश, मराठी आदी भाशांनी प्रार्थना समाजान कांय ग्रंथ उजवाडायल्यात. 'सुबोध-पत्रिका' हें नेमाळें बरींच वर्सां समाजान चलयलें. प्रार्थना समाजाचेर ब्राह्मो समाजाचो खूब प्रभाव आसा. भागवत धर्माचो कळस म्हणून जाचो उल्लेख जाता, तो संत तुकाराम हो प्रार्थना समाजाचो मार्गदर्शक अशें मानतात.

पुनर्विवाह, बायलांचें शिक्षण, अस्पृश्यताय निवारण ह्या सगळ्या समाजीक सुदारणाचो प्रार्थना समाजान पुरस्कार केलो. विठ्ठल रामजी शिंदे हाणें प्रार्थना समाजाचो विचार भोवजन समाजा मेरेन पावयलो.

पंढरपूर आनी विलेपार्लेक बालकाश्रम; राममोहन हायस्कूल; प्रार्थना समाज हायस्कूल, विलेपार्ले, सर चंदावरकर मराठी शाळा आदी शिक्षणीक संस्था आनी हेर वेगवेगळ्या तरांचें समाजकल्याण कार्य प्रार्थना समाजान चलयलां. मुंबय, पुणें, वाई, खार ह्या शारांनी समाजाचे फांटे आसात.

गुजरात, आंध्र, तमीळनाडूंतूय समाजाचे कांय फांटे आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रॉटॅस्टंट सभा :** क्रिस्तांव धर्मांतलो एक पंथ. प्रॉटॅस्ट म्हळ्यार आक्षेप. रोमन कॅथलिक पंथाच्या कांय धर्मीक तत्त्वांक आचार आनी संस्कारांक १६व्या शेंकड्यांत जाल्ल्या आक्षेपाक 'प्रॉटॅस्टंट धर्म चळवळ' अशें म्हण्टात. जर्मनींतल्या मार्टीन ल्यूथर हाणें १५१७त जर्मनीचे इगर्जेच्या दाराचेर ९५ मुद्द्याचें पत्रक लायलें, तेन्नासावन हे चळवळीचीं बियां रुजपाक सुरवात जाली. ताचेय पयलीं ऑक्सफर्डाचो जॉन विक्लिफ आनी प्रागाचो जॉन हस हाणीं हींच तत्त्वां मांडिल्लीं. रोमन कॅथलिक चर्चीच्या धर्मतत्त्वांनी आनी संस्कारांनी सुदारणा घडोवप हो हेत आशिल्लो तरी फुडें हो विचार विस्तार जावन ताचें चळवळींत रुपांतर जालें. हो बदल फकत इगर्जे पुरतोच उरलोना जाल्यार क्रिस्तांव समाजांत विचारीक सुदारणा घडोवन तांची नदर पुरोगामी करपाखातीर ही चळवळ कारणीभूत जाली. जॉन कॅल्विन, हुल्ड्राइख त्स्विंग्ली आनी जॉन नॉक्स हांच्या फुडारपणाखाला १६व्या शेंकड्यांत प्रॉटॅस्टंट इगर्जेची स्थापणूक जाली. १९व्या शेंकड्यांत प्रॉटॅस्टंट मिशनऱ्यांनी प्रॉटॅस्टंट धर्म जगभर पातळायलो. २०व्या शेंकड्यांत प्रॉटॅस्टंट पंथाअंतर्गत अशे विंगड-विंगड पंथ निर्माण जाले आनी ह्या सगळ्या पंथाचें केंद्रीयकरण करपाच्या उद्देशाक 'एक्युमेनिकल चळवळ' प्रॉटॅस्टंट पंथियांनीच सुरू केली. प्रॉटॅस्टंट चळवळीची प्रतिक्रिया म्हणून वा प्रॉटॅस्टंट चळवळीचो जोर आडावपाखातीर म्हणून रोमन कॅथलिक इगर्जेन प्रतिधर्म सुदारणा चळवळ सुरू केली. पूण जेझुईत पंथियांच्या वर्चस्वाक लागून कांय किरकोळ सुदारणा सोडल्यो तरी इगर्जेची पोपाची सत्ता आनीक घट जाली.

इंग्लंडाच्या आठव्या हॅन्रीन प्रॉटॅस्टंट पंथाच्या तत्त्वांप्रमाण जरी पोपाचो अधिकार न्हयकारलो तरी ताणें पारंपारीक संस्कार दवरले. एदुआर्द ६न प्रॉटॅस्टंट शिकवण आपणायली पूण इझाबेल एक हिणें मदली वाट घेतली.

प्रॉटॅस्टंट पंथाप्रमाण इगर्जेची वेवस्था लोकशाय पद्धतीचेर आसची आनी धर्मगुरू ही धर्म वेव्हारांतली एकमेव अधिकारी व्यक्ती मानिनासतना धर्मीक गिन्यान आशिल्ले व्यक्तीकूय धर्मीक वेव्हाराचे अधिकार प्राप्त जातात. तशेंच देवाकडेन संपर्क दवरपाक मध्यस्थाची गरज आसूंक फावना, हीं प्रॉटॅस्टंट धर्माचीं कांय मुखेल तत्त्वां आसात.

- फा. आंतोनियु पेरैर

**प्रितम अमृता :** (पळेयात अमृता प्रितम).

**प्रिन्सिपल्स ऑफ इकॉनॉमिक्स :** प्रा. आल्फ्रेड मार्शल (१८४२-१९२४) हाणें हो ग्रंथ १८९०त उजवाडायलो. आठ आवृत्यो आनी चोवीस फेरमुद्रणां मेळून १९७७ मेरेनच्या काळांत तो ३४ खेपे छापलो. हांचेवयल्यान ताचे म्हत्व सिध्द जाता.

पयले आवृतेचे प्रस्तावनेंत अर्थशास्त्र हे उत्क्रांत जायत वचपी शास्त्र आसा, देखून ह्या पुस्तकांत पोरणे सिध्दांत आनी नवे विचार परिस्थितीच्या संदर्भांत मांडपाचो यत्न केला अशें लेखकान म्हळां. सनातनवादी परंपरेचेंच हें लेखन हाची कबुली लेखकान तातूंत दिल्या. उपरांत प्रस्तावनेंतूच स्पॅन्सर आनी हेगेल ह्या दोगांयचेय विचारसरणी प्रमाण हेर समाजीक शास्त्रांप्रमाण अर्थशास्त्रांतूय सेवन, उत्पादन, विभाजन, विनियम ह्या सगळ्या विभागांनी कशें सातत्य दिश्टी पडटा तें उदाहरणासयत दाखयलां. तशेंच कूर्नो, फॉन आनी ट्यूनेन ह्या अर्थपंडीतां कडल्यान आपणें सीमान्ततेची कल्पना घेतिल्ल्याचेय प्रा. मार्शल हाणें म्हळां.

गणिती पद्दतीच्या अर्थशास्त्रांतल्या उपेगाविशीं मार्शल म्हण्टा, स्वताचे सोयीखातीर बेगोबेग, थोडक्यांत आनी निश्चीतपणान नोंद करून घेवपाचे नदरेन गणिती पद्दत खूब उपेगी आसा. पूण अर्थशास्त्रीय प्रस्नांचें लांबचे लांब गणिती विवरण वाचप म्हळ्यार वेळ वगडावप अशे मत ताणे प्रगटायलें. तो स्वता एक बुदवंत गणिततज्ञ आनी कॅंब्रिजाचो 'सॅकंड रॅंग्लर' आशिल्लो, हें मतींत घेवंक जाय.

आठवे आवृत्तेचे प्रस्तावनेंत हो ग्रंथ अर्थशास्त्राच्या अभ्यासाक सर्वसामान्य प्रस्तावीक म्हणून तयार केला अशें सांगून ताचें स्वरूप चड स्पश्ट केलां. हांगा परत एकदां ताणें सातत्य तत्त्वाचो तपशीलवार पुनरूच्चार केला आनी हातुंतूच आंशिक उकल (Partial Solution) आनी आंशिक समतोल (Partial Equilibrium), पद्दतीचें स्वरूप आनी शास्त्रियत्व, औचित्य आनी (Partial Equilibrium) तेचवांगडा प्राचीनत्व स्पश्ट केलां. पयल्या प्रस्तावीक भागांत अर्थशास्त्राचो अभ्यासविशय, ताच्या नेमांचे स्वरूप आनी उद्दिश्टां हो विशय आयला. दुसऱ्या भागांत अर्थशास्त्रांतल्यो मुळाव्यो कल्पना मांडल्यात. तिसऱ्यांत सेवन, चवथ्यांत उत्पादन, पांचव्यांत मूल्यसिध्दांत आनी सव्या भागांत विभाजन हे विशय आसात. प्रा. मार्शलान 'अर्थशास्त्र' हें मनशाचें (संपत्तीचें न्हय) शास्त्र आसा आनी ताचो कल्याण हो मुखेल विशय आशिल्ल्याचें स्पश्ट केलां. तशेंच 'अर्थीक मानव' ताणें अर्थशास्त्रांतल्यान हद्दपार केलो. अर्थशास्त्रांत अर्थीक हेतांवांगडाच आर्थीकेतरांचोय आस्पाव जाता अशें ताणें सांगलें.

सेवनाचो विचार करतना ताच्या मतान, समाधान हें पयशांनी मेजूं येता. उत्पादनांत भूंय, श्रम, भांडवल आनी संघटना अशे उत्पादनाचे चार घटक दिवन, खास करून भुंयेच्या संदर्भांत उपरासपी देवपी फळाचो सिध्दांत ताणें सांगला. ह्याच संदर्भांत सीमान्त परिमाण, सीमान्त उत्पादन आनी लागवडीची शीम ह्यो कल्पना प्रा. मार्शलान स्पश्ट केल्यात.

उत्पादनाचे हेर घटक दिवन निमाणें उद्देगीक वेवस्थापनावयल्या फुडल्या स प्रकरणांनी उत्पादन वाडींत वेवस्थापनाचें म्हत्व, श्रमविभाजन आनी यंत्राचो वापर, उद्देगांचे स्थानिकीकरण, व्हडा प्रमाणावयले उत्पादन आनी ह्याच दोनूय संदर्भांनी उपरासपी अंतर्गत आनी बाह्य मितव्यय (Internal & External Economy), दिवन ताका लागून वाडट्या फळाचो सिध्दांत कसो निर्माण जाता आनी उपरांत थीर उत्पादन आनी वाडट्या खर्चाची समानताय कशी जाता, तें उत्पादन स्पश्ट केलां. हातूंतल्यानूच प्रातिनिधीक पेडयेचो (Representing Firm) उल्लेख येता. प्रा. मार्शलान बाजाराच्या समतोलाखातीर खंयचे आनी खंयचे पेडयेचें उत्पादन घेवंचे ह्या प्रस्नांतल्यान सोडवणूक म्हणून ही कल्पना मांडली. ही सामान्य सोयी आनी सुविधा आशिल्ली, दीर्घ काळ धंद्यांत येसस्वीपणान चलत आयिल्ली पेडी, अशें तिचे वर्णन तो करता.

पांचव्या भागांत सीमान्त मागणी पुरवठ्याचे मदतीन मूल्य निर्णयाचो प्रस्न प्रा. मार्शलान हाताळ्ळा. पयलीचे दोन अतिरेकी विवरणाचो समन्वय घडोवन हाडून वस्तूमूल्य हें सीमान्त मागणी आनी सीमान्त पुरवठ्यान थारायतात, असो सिध्दांत मांडला. मार्शलच्या ह्या मूल्यसमतोलाचें सगळ्यांत म्हत्वाचें खाशेलपण म्हळ्यार, तातूंत कालतत्त्व खाशेल्या वेळार

बाजारांत आशिल्लें मूल्य, अल्पकाळांतले मूल्य, दीर्घकाळांतलें मूल्य आनी प्रदीर्घ काळांतलें मूल्य अशे मार्शल वर्गीकरण करता. खाशेले मागणेक अनुसरून जावपी पुरवण बदलाचे पद्दतीवयल्यान ताणें हें वर्गीकरण केलां. पयलें बाजार मूल्य म्हळ्यार खाशेल्या वेळार मागणी आनी पुरवठो दोनूय थारिल्लीं आसतात. तातूंत बदल जावंक शकना. दुसऱ्यांत म्हळ्यार अल्पकाळांत मागणी बदलता. पुरवठो उणो चड करतात. पूण तो उपलब्ध घटकांचे मदतीनूच. मागणेक अनुरूप असो पुरवठो घटकांत बदल घडोवन हाडपा इतलो वेळ नासता. म्हणून हातूंत जावपी जुळवा जुळव एके तरेन अपूर्ण आनी तात्पुरती आसता. देखून त्या काळांत मागणेवांगडाच पुरवठ्याचोय प्रभाव पडत आसता. पूण तिसऱ्या कालखंडांत मागणेच्या बदलाप्रमाण पुरवठ्यांत बदल करपाक खूब वेळ आशिल्ल्यान गरज आशिल्लें उत्पादन घटकांच्या पुरवठ्यांत बदल करून गरज तें उत्पादन करतात. ह्या दीर्घकालीन मूल्यांत पुरवठ्याचे मागणेकडेन पुराय समायोजन (Complete Adjustment) जालें आसता. हे परिस्थितींतले दीर्घकालीन मूल्य पुराय पुरवठ्यान निश्चीत जाता. म्हळ्यार तें सीमान्त उत्पादन इतलें आसता.

प्रा. मार्शल अतीदीर्घकाळाविशींय उलयता. ह्या काळांत गिन्यान, लोकसंख्या, भांडवल आनी मागणी आनी पुरवठ्याच्या मुळाव्या स्वरुपांत दर पिळगेंत जावपी बदल येतात. खास करून राश्ट्रीय उत्पादनाच्या विभाजनात तिसऱ्या म्हळ्यार दीर्घकालीन मूल्यांचो विचार केल्लो आशिल्ल्याचे सांगला.

ग्रंथाच्या सव्या खंडांत विभाजनाचो प्रस्न मूल्यसिध्दान्ताच्या आदारान सोडयला. दरेका घटकाक मेळपी उत्पादन वा राश्ट्रीय उत्पादनांतलो वांटो म्हळ्यार तांच्या वावराचें मोल. देखून तें मागणी पुरवठ्यांनी मूल्यसिध्दान्ता प्रमाण निश्चीत जाता. उत्पादनाच्या दरेका घटकाचो जे मेरेन उपेग लाव दिवपी आसा, ते मेरेन तो उत्पादनाक वापरतात. एकदां सीमान्त उत्पादकताय बिंदू आयलो की उपेगाची मागणी थांबता.

फायद्याचें बाबतींत मात प्रा. मार्शलान पोरणे अनिश्चीततायेंत भरूच घाल्या. भांडवलावयल्या व्याजापसून ताणें फायदो वेगळो केलो. पूण ताच्या वट्ट फायद्यांत धंद्यांतले गरजेचे वेवस्थापन शक्तीचो पुरवठो आनी धंद्याक लागपी संघटनवेवस्था हांचे मोबदले अशे दोन भाग केले. पयल्या भागाच्या मोबदल्याक तो 'शुद्ध फायदो' म्हण्टा. पूण रोखडोच वर्सुकी फायद्याचो दर, उलाढाली वयलो फायदो दर अशेंय वर्गीकरण करता आनी दरेका धंद्यांतलो फायद्याचो दर वेगळो आसता अशेंय विधान करता. पूण हें सारकें किद्याक नासतात हाचें स्पश्टीकरण करीना. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार तो केन्ना भांडवलाच्या मोबदल्याक, वेवस्थापनाचे मजुरीक फायदो समजता हेंच.

निमाणें, प्रा. मार्शलच्या प्रतीखंड(Cluasi Rent) कल्पनेचो उल्लेख करप गरजचें. दीर्घकालीन पुरवठो मर्यादीत आशिल्ल्यान बरे भुंयेक मेळपी अदीक मोबदल्याक आमी खंड म्हण्टात. पूण थोड्या काळांत हेर उत्पादनाच्या घटकांचोय पुरवठो मर्यादीत आसता. ताका लागून तांकां चड उत्पन्न मेळटा.

प्रा. मार्शलान प्रस्तावनेंत जरी म्हणिल्लें आसलें की ह्या ग्रंथांत पोरणें अर्थशास्त्रूच नव्या विचाराच्या आनी प्रस्नांच्या संदर्भांत मांडलां. म्हणून तरीय तें खूब अंशी नवें आसा. ताका नवसनातनवादी म्हण्टात, तें हाकाच लागून.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रियोळकार, अनंत काकबा :** (जल्म : ५ सप्टेंबर १८९५, प्रियोळ; मरण : १३ एप्रिल १९७३ मुंबय).

पुर्विल्ल्या कोंकणी आनी मराठी साहित्य संशोधनाच्या मळावयलो म्हालगडो संशोधक. ताणें घरांतूच मराठी चवथी मेरेन, माशेलांत पुर्तुगेजीन प्रिमैर ग्राव आनी सेगुंद ग्रावा मेरेन आनी फोंड्यां इंग्लिशींतल्यान शिक्षण घेतकच तो गोंयाभायर गेलो. ताचे बी. ए. मेरेनचें शिक्षण धारवाडाक (कर्नाटक) आनी सांगलीक (महाराष्ट्र) जालें.



सांगलीच्या विलिंग्डन म्हाविद्यालयांत बी. ए. चें शिक्षण घेता आसतना नामनेचो भाशाविद डॉ. पांडुरंग दामोदर गुणे हाचेकडेनचे प्रियोळकराचे खुबूच लागींचे संबंद आयले ताका लागून डॉ. गुण्याच्या प्रभावान भाशाशास्त्र आनी पाणचिकित्साशास्त्र ह्या विशयांचें खोलायेन आनी व्यापकपणान अभ्यास करून फुडें कांय मराठी काव्याची संपादनां उजवाडाक हाडली. १९२९त बी. ए. जातकच ताणें कांय तेंप अध्यापनय केलें. फुडें रामचंद्र भिकाजी गुंजीकर ह्या गोंयकारान मुंबय चलयल्ल्या विविधज्ञानविस्तार नेमाळ्यांत १९२५ सावन संपादकी वावर करूंक लागलो तशेंच 'विविधवृत्त' ह्याय नेमाळ्याचो तो संपादक आशिल्लो.

ताणें मुंबय नगरपालिकेंत १९२६ ते १९४९ मेरेन नोकरी केली. उपरात मुंबय मराठी ग्रंथसंग्रहालयांत. एक फेब्रुवारी १९४८ ह्या दिसा प्रा. प्रियोळकाराचे प्रेरणेन स्थापन जाल्ले मराठी संशोधनाचे मंडळाचो १९५० सावन तो डायरेक्टर जालो. १९५३ ते १९६५ मेरेन मंडळाच्या 'मराठी संशोधन पत्रिका' ह्या संशोधन विशयाक ओंपिल्लया तीन म्हयनाळी नेमाळ्याचें ताणें संपादन केलें. १९६६त तो मंडळांतल्यान निवृत्त जालो.

प्रा. प्रियोळकराच्या नांवार ५४ पुस्तकां आसात. तातूंत रघुनाथ पंडित विरचित दमयंती स्वयंवर (१९३५); मुक्तेश्वरकृत महाभारत आदिपर्व' (चार खंड १९५१-१९५९) (श्री मुक्तेश्वराचा शोध ह्या संशोधनपर निबंधाची जोड दिवन आनी अमृतानंद विरचित योगराज टिळक (१९५६) हे ग्रंथ म्हळ्यार आधुनिक पाणचिकित्साशास्त्राचे बसकेचेर आदारिल्लो संपादनाचो आदर्श. त्या निमतान ताणीं आर्विल्ल्या पाणचिकित्सा शास्त्राचें स्वरूप आनी प्रस्न हांच्या संदर्भांत खोलायेन चर्चा केली.

एकुणिसाव्या शतमानांतलो व्यासंगी विद्वान दादोबा पांडुरंग तर्खडकर हाचें अपूर्ण आत्मचरित्र ताणें संपादीत केलें. दादोबाच्या नांवान मुंबय विद्यापिठान दवरिल्लें 'तर्खडकर इनाम' प्रा. प्रियोळकाराच्या दमयंती स्वयंवर आनी 'दादोबा पांडुरंग : आत्मचरित्र व चरित्र' १९४७ ह्या दोनूय ग्रंथांक फावो जालें. गोंयचो एक मानेस्त डॉ. भाऊ दाजी लाड

हाचेंय ताणें चरित्र बरयलें. तेच धर्तेर ताणें श्री पूर्णप्रकाशानंदनाथ तथा नायकस्वामी, गोविंद नारायण माडगांवकार, रा. भि. गुंजीकर, माधव चंद्रोबा तशेंच अनंत चंद्रोबा डुकले, सुर्याजी सदाशिव महात्मे, तोमाश मौरांव, सखाराम ना. वाघ, सुर्याजी आ. देशपांडे ह्या आनी हेर गोंयकारांचो परिचय महाराष्ट्राक करून दिलो.

प्रा. प्रियोळकाराच्या हेर संपादीत ग्रंथानी भास, व्याकरण आनी जेजुईतांच्या तशेंच एकुणिसाव्या शतमानांत वावुरतल्या विचारवंतांच्या चड करून रोम, लिस्बन, लंडन आनी हेर संवसारभर फाफडून पडिल्ल्या गोंयकारांच्या कोंकणी - मराठींतले बरपावळीचो आस्पाव जाता. दुर्मीळ हस्तलिखितांचो सोद घेवन ताणें तांच्यो मायक्रोफिल्मस् एकठांय केल्यो. मराठींतले पयलें व्याकरण गोंयांत बरयिल्लें म्हणपाचेंय ताणें सांगलें. तशेंच आशिया खंडांतलो पयलो छापखानो गोंयांतच (रायतूरांत) आशिल्लो म्हणपाचें ताणें सिद्ध केलें. पाद्री तोमास इश्तेंवकृत दोत्रीन क्रिस्तां (१९५३), पाद्री आंतोनियु द. सालदान्य विरचित 'सांतुआंतोनिची अचर्या (१९५८), सतराव्या शतमानांत गोंयांतल्या क्रिस्तांव धर्मप्रचारकांनी बरयल्लो ग्रंथ प्रा. प्रियोळकारान साक्षेप दवरून संपादीत केलो. आनी उजवाडा हाडलो. तशेंच रोमींतल्या मराठी साहित्याचें देवनागरींत लिपयांतर करपाची पद्दतूय ताणें दाखयली. सोळाव्या, सतराव्या आनी अठराव्या शतमानांतल्या कोश, व्याकरणां, ओविबद्ध पुराणां येशुच्या मरणाचेर आदारिल्लो विलापिका बरोवपी जेजुईतांचे साहित्य सेवेचो प्रा. प्रियोळकारान उल्लेख केल्लो आसा. ताणें हस्तलिखितांचे म्हत्व सांगून तांची जतनाय आनी नोंद घेवपाखातीर हस्तलिखितांची बृहत्तामावली (Catologus Catalogurum) तयार करपाची गरज आसा म्हणपाचें सांगलें. मूळ लेखकाच्या नांवार आशिल्ल्या अधिकृत ग्रंथा परसूय चड अनधिकृत साहित्य मेळूं येता असल्या साहित्याक ताणें 'शंकास्पद वाङ्मय' (apocryphol literature) अशी संज्ञा दिली. १८६७ ह्या वर्सा देशी प्रकाशनाचे नोंदणेचो कायदो आयलो. ताचेपयलीं मेळपी साबार आद्य मुद्रितांक ताणें 'दोलामुद्रितें' अशी परिभाषा दिली. अशे तरेचें साहित्य एकठांय करून तें उजवाडा हाडलें.

प्रा. प्रियोळकारान गुजराती आनी इंग्लिशींतल्यांनूय बरोवप केलें. 'द प्रिंटिंग प्रॅस इन इंडिया' (१९५८), 'द गोवा इंक्विझिशन' (१९६१), 'गोवा : फॅक्टस वसीस फिक्शन' (१९६२), 'गोवा रि-डिस्कवर्ड' (१९६७) ह्या ताच्या ग्रंथांत ताणें गोंयचे इतिहासीक समाजीक आनी संस्कृतीक जिणेचें चित्र स्पश्ट केलें.

ताच्या संशोधनपर विद्वत्तायेचो आनी संशोधनकी अनुशासनाचो भोवमान करून मुंबय विद्यापिठान ताका तो निखटो बी. ए. पदवीधर आसुनूय पीएचडीचो मार्गदर्शक म्हणून मान्यताय दिली. ते भायर पी. एचडी आनी डि. लिटचे प्रबंद तपासपाचो तज्ञ परिक्षक म्हणुनूय ताका पाचारिल्लो. ताच्या मार्गदर्शनाखाल स विद्यार्थ्यानी पीएच.डी.ची पदवी मेळयली. ताच्या संशोधनपर वावराचें म्हत्व लक्षांत घेवन लोकांनी ताका १९५१ वर्सा कारवाराक (कर्नाटक) जाल्ल्या महाराष्ट्र साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद दिलें.

प्रा. प्रियोळकार हो संशोधक आशिल्लोच पूण सुर्वेक चित्रकार म्हणुनूय ताका नामना मेळ्ळ्या. तेखातीर ताका कांय पुरस्काररूय फावो जाल्ले. ताणें स्वयंसेवक, भारत, विविधज्ञान विस्तार, विविधवृत्त, नवयुग, मनोरंजन, महाराष्ट्र साहित्य पत्रिका अशा नेमाळ्यांतल्यान कथा, प्रहसनां निबंद, कादंबरी, कविता अशें ललित साहित्य केळयलें. अरुणोदय ह्या टोपणनांवान ताणें तिसेक कविता बरयल्यो. जाल्यार हेर कितल्याशाच टोपणनांवांनी ताणें विविधवृत्त ह्या सातोळ्यांत खूब लेखन केलें.

– सु. म. तडकोडकर

## प्रियोळकार, विनायक काकबा : (जल्म : २९ जानेवारी १८९१, प्रियोळ).

आदले पिळगेंतलो गोंयचो एक मराठी लेखक. सुर्वेक ताणें मराठी चवथी आनी पुर्तुगेज प्रिमैर ग्राव इतलें शिक्षण जातकच फोंडेचे आल्मैद कॉलेजींत आनी हडफडेंच्या इंग्लीश हायस्कुलांत इंग्लीश शिक्षण घेवन मॅट्रीक जालो. भुरगेपणांतूच हडफडेंचे शाळेंत आसतना फॉरवर्ड नांवाचें इंग्लीश हातबरपावळीचें सातोळें चलयलें. फाटक, आवटे आनी दादा वैद्य ह्या लेखकांचे संगतीन ताका मराठी वाचनाची आनी लेखनाची गोडी लागली. दादा वैद्याच्या 'प्राचीप्रभा' ह्या नेमाळ्यांतल्यान ताची पयली काणी आनी पयली कविता उजवाडा आयली. १९१५त ताणें 'स्वयंसेवक' हें त्रैमासिक सुरू केलें. रायबंदरच्या सदानंद मुद्रणालयांत छापिल्लें हें त्रैमासिक वर्सभर चललें आनी फुडें ताचें रुपांतर मासिकांत जालें. हें मासीक तीन वर्सा चललें. फुडें ताणें स्वताचो छापखानो घालो. १९२६ मेरेन तें मासिक चललें आनी अर्थीक अडचणीक लागून तें बंद पडलें. ह्या 'स्वयंसेवक' मासिकांतल्यान गोंयांतल्या लेखकांवांगडाच महाराष्ट्रांतल्यान लेख येताले. ताणें हेगडे, देसाय हाच्या 'भारतमित्राच्या मराठी विभागाचें २ - ३ वर्सा संपादन केलें. तशेंच १९१८त आयिल्लें 'मराठा गायक मित्र' ह्या मासिकाचें ताणें संपादन केलें. हें मासिक वर्सभर चललें. हातूंतलो चडसो सगळो मजकूर आनी कविता तो स्वता बरयतालो. १९२१त 'स्वयंसेवक' ह्या मासिकांत येवपी दोन हजार ओवयांचें 'देमांद माहात्म्य' हें विनोदी विडंबन काव्य १९५१त पुस्तक रुपान उजवाडाक आयलें. ह्या पुस्तकाक 'झेंडुची फुलें' ह्या मराठी विडंबन काव्याचो कर्तो आचार्य प्रल्हाद केशव अत्रे हाची प्रस्तावना आसा. हें देमान्द माहात्म्य २० अध्यायांचें आनी सवाय दोन हजार ओवयांचें विडंबन काव्य. देमान्द ह्या पुर्तुगेज उतराचो अर्थ खटल्या संबंदी जावपी कोर्ट कचेरेंतलो वेव्हार. आदल्या काळांत गोंयांत देमान्दाक लागून कांय लोक अर्थीक शरिरीक आनी मानसीक नदरेन काबार जाल्ल्याच्यो कांय देखी आसात. देमांद करपाचे वृत्तीचें वायट आंग दाखोवन ताचेर प्रबोधन करपाच्या उद्देशान वि. का. प्रियोळकारान काव्य, विनोद आनी विडंबनाचो वापर करून ओवी छंदांत आदल्या काव्याचे धर्तेर बरयलां.

– कों. वि. सं. मं.

## प्रीश्विन मिखायल मिखायलोविच : (जल्म : ५ फेब्रुवारी १८७३, खुश्रौवो, ऑर्लाव्ह; मरण : १७ जानेवारी १९५४, मॉस्को).

नामनेचो रशियी साहित्यीक. ताचें शालेय शिक्षण तूमन आनी यिलाबूग नगरांनी जालें. १८९५त ताणें 'रीगा पॉलिटॅक्निक इन्स्टिट्यूट' हातूंतल्या रसायनीक शेतकी विभागांत प्रवेश घेतलो. १८९७त राजकीय कारणाखातीर ताका अटक जाली आनी ताच्या शिक्षणांत बादा आयली. पूण फुडें बंदखणींतल्यान सुटका जाले उपरांत १९०० त तो जर्मनीक गेलो आनी थंयच्या लायपसिक विद्यापिठांतल्यान ताणें शेतकी विद्येंतली पदवी मेळयली (१९०२). तिसांपरस चड वर्सां ताणें शेतकी तज्ञ म्हणून

काम केलें. रशियी क्रांती उपरांतच्या काळांत अध्यापन आनी पत्रकारिता ह्या वेवसायांनी ताणें वावर केला.

मानवतावाद आनी सैमाचो मोग ह्यो ताच्या लिखाणा फाटल्यो प्रेरणा. ताणें वर्णन केल्ल्या सोबीत आनी वेगवेगळ्या सैमीक चित्रांखातीर ताची चड नामना आसा. हीं चित्रां चितारता आसतना कश्टी जिणेंतल्या व्यापक संदर्भाचें भान ताणें सतत राखलां. तेचपरी एक सतेज आशावाद सदांच दवरला. ताच्या लेस्नाया कापेल (१९४३, इं. शी. फॉरॅस्ट ड्रॉप) ह्या नांवान उजवाडाक आयिल्ल्या ताच्या शब्दचित्रांच्या संग्रहाक नामना मेळ्ळ्या. ताच्या कथात्मक साहित्यांत काश्च्चेवा त्सेप (१९२४, इ. शी. काश्चेव चेन) ही आपजिणेक कादंबरी उल्लेख करपासारकी आसा. हे कादंबरेंत प्रीश्वीतान एके दुश्ट शक्तीच्या शृंखलांत बंद जाल्ल्या जगाची सुटका करपाक फुडें नायक रंगयलां. क्रेन - शेन (१९३२, इंग्लीश अणकार; जेन शेंग : द रूट ऑफ लायफ, १९३६) ही ताची सुखाच्या सोदाची काव्यात्म कथा. ल्हान भुरग्यांखातीरूय ताणें जायत्यो कथा बरयल्यो. तातूंतली 'शिप्टिंबर ग्रोव्ह' ही उल्लेख करपासारकी. ताच्या हेर उल्लेख करपासारक्या लिखाणांत 'व्ह क्रायु निपुगान्निरव प्तीत्स' (१९०७, इंग्लीश अणकार इन रीजन ऑफ अण्ट्रबल्ड बर्ड्स) आनी रढनिकी बिरेंदेया (१९२० इंग्लीश नांव - द सोआर्सिस ऑफ बिरेंदेया) हांचो आस्पाव जाता. व्ह क्रायु हातूंत ताचे निबंद आनी शब्दचित्रां संग्रहीत आसात. कारेलियाच्या उत्तरेकडल्या वाठारांत भोवंडी करून येतकच प्रीश्विनान हीं शब्धचित्रां बरयलीं. ह्या वाठारांतली लोकजीण हो ह्या शब्दचित्रांचो मुखेल विशय.

मानवी सर्जनशीलतायेची उदरगत घडोवन हाडपाच्या कामांत इतिहासाचें गिन्यान आनी भूतकाळाचो संस्कृतीक आशय कितलो म्हत्वाचो आसा हें 'रूढनिकी विरेंदेयात' सांगलां

– कों. वि. सं. मं.

## प्रूदाँ ल्येअर जोझेफ : 

( जल्म :१५ जानेवारी १८०९, बझांसाँ; मरण : १६ जानेवारी १८६५).

फ्रँच समाजवादी विचारवंत आनी अराज्यवादाचो पुरस्कर्तो. एका शेतकार घराण्यांत ताचो जल्म जाल्लो. घरची स्थिती गरिबीची आशिल्ल्या कारणान बंझांसांतल्या एका छापखान्यांत वावर करून ताणें आपलें शालेय शिक्षण पुराय केलें. हो वावर करता आसतनाच वेगवेगळ्या विशयांचें गिन्यान ताका मेळ्ळें. पिरायेच्या एकुणतिसाव्या वर्सा ताणें पदवी मेळयली. 'बंझांसाँ' अकादमी कडल्यान ताका शिक्षणाखातीर शिश्यवृत्ती मेळिल्ली. ताका लागून बरप करपाकय ताका  बरोच वेळ मेळ्ळो. फुडें स्वताचो छापखानो घालपाचो ताणें अपेशी यत्न केलो. ते उपरांत लीआच्या ल्हानशा तारवा कंपनींत नोकरी धरली. हे कंपनीचे वतीन तो पॅरीसाक गेलो. थंय ताचो उदारमतवादी, साम्यवादी, आनी समाजवादी विचारवंतांकडेन संबंद आयलो.

१८४८चे क्रांतीउपरांत तो नॅशनल ॲसँब्लीचेर वेंचून आयलो. त्या वेळार ताचे वांगडा नामनेचो फ्रँच कवी, नाटककार आनी कादंबरीकार व्हिक्टर ह्युगो (१८०२ - ८५) सम्राट नेपॉलियन बोनापार्टाचो पुतणयो ल्वी नेपॉलियन बोनापार्त (१८०८ - ७३) आदींनी वेंचणूक लडयल्ली. 'नॅशनल वर्कशॉप्स' कामाचो हक्क हेसारके कार्यक्रम बंद करतकच ताचेआड आपले विचार नेमाळ्यांवरवीं ताणें उजवाडाक हाडले. त्याच काळांत कामगारांच्या हिताखातीर रिणां पुरवण सरळपणान जावंची देखून नॅशनल बँक उबारपाचो अपेशी यत्न ताणें केल्लो.

१८४६च्या क्रांतिकाळांत ल रिप्रेझँतां द्यु पप्ल ह्या दिसाळ्याचो तो संपादक जालो. पॅरीसांतल्या कामगारांमदीं हें दिसाळें लोकरुचीचें जालें. पूण ताचेर सगळ्या राजकीय पक्षांची टिका जाताली. देखून सरकारान हें दिसाळें बंद केलें आनी प्रूदाँन हें दुसरें दिसाळें सुरू केलें. पयल्या दिसाळ्यापरस ह्या दिसाळ्याक चड नामना मेळ्ळी. निमाणें ल्वी - नेपॉलियन बोनापार्त ह्या नवनिर्वाचीत राश्ट्राध्यक्षाचेर जायते फावट खर टिका जाल्ल्यान मार्च १८४९त ताका तीन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त जाली. बंदखणींत आसतनाच पॅरीसांतल्या एके कामगार चलयेकडेन ताचें लग्न जालें. बंदखण सोंपतकच १८५७त ताणें ऑफ जस्टिस इन द रॅवोलूशन अँड इन द चर्च हो ग्रंथ उजवाडाक हाडलो. तातूंत  ताणें मनशाचें स्वातंत्र्य काडून घेवपाच्या आनी भ्रश्टाचारी नैतिक विचारांक चिरस्थायी करपाचो यत्न केल्लेखातीर कॅथलीक इगर्जेचेर टिका केल्ली. देखून ताचेर परते खटले भरले. तेन्ना तो भूंयगत जावन बेल्जीयमाक गेलो. थंय तो बरोच काळ आशिल्लो. ह्याच सुमाराक ताची भलायकी इबाडली. १८६२त बेल्जीयमाच्या नेत्यांकडेन ताचे मतभेद जाले. फ्रांसाचो सम्राट ल्वी - नेपॉलियन बोनापार्त हाणें ताका माफ केल्ल्यान ताका मायभुंयेक परत येवंक मेळ्ळें. उपरांत तीन वर्सांनी मानसीक ताणान ताका मरण आयलें.

एकुणिसाव्या शतमानांतले भांडवलशायेआड विचार ताणें आपल्या १२ ग्रंथांवरवीं मांडले. ताच्या लिखाणांवरवीं ताणें धीट विचार आनी नव्यो कल्पना प्रभावी शैलीन मांडल्यो. अर्थीक आनी राजकीय विचारांच्या इतिहासांत चड करून अ. मार्क्सवादी, समाजवादी इतिहासांत प्रूदाँक म्हत्वाची सुवात आसा ताच्या लिखाणांत विसंगती आसा. आनी अर्थशास्त्रीय सिद्धांताचेर ताची व्हडलीशी पकड ना. न्यायाच्या आनी समतेच्या विचारांतली एक म्हत्वाची विसंगती म्हळ्यार बायल दादलो हांची समता आनी बायलांचें स्वातंत्र्य हांकां ताचो आशिल्लो खर विरोध.

'प्रॉपर्टी इज थॅफ्ट' खासगी मालमत्तेचो हक्क म्हळ्यार चोरी हें मत प्रूदाँच्या नांवाकडेन जोडिल्लें आशिल्लें. अशें मत ताणें वॅाट इज प्रॉपर्टी' ह्या १८४०च्या निबंदांत मांडिल्लें आसा. आपले आस्पतीचो फकत मालकी हंक्क भोगिनासतना तिचो उत्पादक तरेन वापर करप्यांचो स्वामित्वधिकार ताका मान्य आशिल्लो. तशेंच चडांत चड लोकांक असो हक्क आसचो आनी तेखातीर तांकां कळंतरा विरयत रिणां मेळचीं अशें ताचें मत आशिल्लें.

न्याय आनी समता हांचो तो खर पुरस्कर्तो आशिल्लो तेचपरी शासकीय केंद्रीकरणाक ताचो कडक विरोध आशिल्लो. तो खरो म्हळ्यार अराज्यवादीच आशिल्लो. नामनेचो अराज्यवादी विचारवंत ल्यॉटर क्रपॉटक्यिन हाणें प्रूदाँक 'अराज्यवादाचो जनक' अशें नांव दिल्लें. प्रूदाँचो समाजवाद हो केंद्रीत राज्यसत्तेचेर आदारिल्ल्या मार्क्सवादी समाजवादापसून पुराय वेगळो आसा. स्वतंत्र आनी स्वायत्त मनशांनी आनी संस्थांनी केल्लो सहकार हे बसकेचेर तो आदारिल्लो आसा. खेरीज ताचो समाजवाद उत्पादनाभायर सारक्या वितरणाचेर चड भर दिता. सिस्टम ऑफ इकॉनॉमिक कॉंट्रॅडिक्शन्स ऑर द फिलॉसॉफी ऑफ पॉवर्टी (१८४६,

इंग्लीश अणकार १८८८) हे म्हत्वाचे ग्रंथनिर्मितीन तो फ्रेंच समाजवादी विचारवंत म्हणून नामनेक पावलो. ताच्या ह्या ग्रंथाचेर मार्क्सान पॉवर्टी ऑफ फिलॉसॉफी (१८४७) नांवाचो टिकाग्रंथ बरयलो.

शासन आनी मनीस हांचेमदलो संघर्श सोडोवपाचो उपाय म्हणून प्रूदॉन संघराज्याची कल्पना मांडली. ताच्या अराज्यवादाचें वेव्हारीक रूप म्हणजेच संघराज्यावाद (फॅडरॅलिझम) राश्ट्रांतली शासकीय रचना ही स्वायत्त चोम्याच्या पंगडाची आसची आनी राश्ट्रांराश्ट्रांचे चड करून युरोपी राश्ट्रांचे ह्याच तत्त्वार संघटन जावचें अशें ताका दिसतालें.

प्रूदॉन व्हड प्रमाणांत ग्रंथ बरोवन तांचेवतीन फ्रांसांतले उद्देगीक कामगार चळवळीचेर (फ्रेंच सिंडिकॉलिस्ट मूवमॅंट) व्हड प्रभाव घालो.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रूस्त मार्सेल** : (जल्म : १० जुलय १८७१, ओतय्य; मरण : १८ नोव्हेंबर १९२२, पॅरीस).

संवसारीक नामनेचो फ्रेंच कादंबरीकार. ताच्या बापायचें नांव आद्रियां प्रूस्त आनी आवयचें नांव जान्न वायल. ताणें आपलें सुर्वेचें शिक्षण लिसे कॉंदोर्सेत (१८८२-१८८९) घेतलें. उपरांत तो लस्करांत नोकरी करूंक लागलो. (१८८९-१८९०). फुडें ताणें लेकॉल द सियांस पॉलितीक हे शिक्षण संस्थेंत कायदो आनी राज्यशास्त्र ह्या विशयाचो अभ्यास केलो. विद्यार्थी आसतना नामनेचो फ्रेंच तत्त्वगिन्यानी आंरी बेगसॉं हाच्या विचाराचो ताचेर प्रभाव पडिल्लो. १८९२त ताणें लिसांस ही एम्. ए बराबरीची पदवी मेळयली. पिरायेच्या धाव्या वर्सासावन ताका दम्याचो विकार जडिल्लो आनी देखुनूच बरपाभायर ताणें हेर खंयच्याच वेवसायांत लक्ष घालें ना. ताची अर्थीक स्थिती बरी आशिल्ली. तशेंच पॅरिसाच्या उंचेल्या समाजाचें दर्शन ताका लागसल्ल्यान घडिल्लें. देखुनूच ताचे 'ले प्लेझर ए ले जूर (१८९६, इंग्लीश अणकार प्लॅझ्यर्स अँड रिग्रॅटस १९५०) हे साहित्यकृतींत ह्या समाजाचें ताणें केल्लें बारीक निरिक्षण दिश्टी पडटा. १८९९त नामनेचो इंग्लीश कलासमीक्षक जॉन रस्किन हाच्या कलाविचारांचो ताचेर परिणाम जालो. ताच्या कांय बरपावळींचो ताणें फ्रेंच अणकार केला. १९००त तो वेनिसाचे भोंवडेक गेल्लो. १९०५ त ताचे आवयक मरण आयलें. ह्या दुख्खान तेचपरी सतत जावपी दम्याच्या त्रासान तो घरांतूच रावंक लागलो आनी साहजीकूच ताचे समाजीक जिणेक बंधनां पडलीं.

१९०९त ताणें आ ला रर्शेर्श द्युतां पेर्द्यू ही आपली म्हान सात खंडांची कादंबरी बरोवपाक घेतली. द्यु कोंते दशे स्वान (इंग्लीश अणकार स्वान वे १९२२) हो हे कादंबरीचो पयलो खंड जायत्या प्रकाशकांनी न्हयकारलो. पूण १८१३त वॅर्नार ग्रासे हाणें तो उजवाडाक हाडलो. हे कादंबरीचे हेर स खंड अशे : आ लांब्र द जन फीय आं फ्लर (१९१८-१९, इंग्लीश अणकार विदिन अ बडिंग ग्रोव १९२४), ल कोंते द गॅर्मांत (दोन भाग - १९२०-२१, इंग्लीश अणकार गॅर्मांत वे - १९२५. दुसऱ्या भागांत सॉदॉम ए गॉमॉर, इंग्लीश अणकार सिटीस ऑफ द प्लेन १९२९), सॉदॉम ए. गॉमॉर (भाग दुसरो, १९२२ ह्या दुसऱ्या भागाचे तीन खंड आसात., ला प्रिझांन्येर (१९२३, इंग्लीश अणकार द कॅप्टिव्ह, १९२९), 'ला फुजितिव' (१९२५, इंग्लीश अणकार - द स्वीट चीट गॉन, १९३०) आनी 'लतॉं स्त्रुव्हे (१९२७ इंग्लीश अणकार टाइम रीगेण्ड १९३१). १९१९त वयल्या सात खंडांतल्या 'आ लॉंब्र' हे कादंबरीक गॉंकूर अकादेमीचें इनाम मेळ्ळें. तेचपरी कादंबरीकार म्हणून आंतरराराश्ट्रीय नामना मेळ्ळी.

आ ला रर्शेर्श ही ताची म्हाकादंबरी. हे कादंबरींतलें मार्सेल हें मुखेल पात्र. प्रूस्त हाची ही आपजीण नासली तरी मार्सेल हे व्यक्तिरेखेचें प्रूस्ताच्या जिविताकडेन कितलेशेंच सारकेपण आसा. आपलो पींड कादंबरीकाराचो आसा हाची जाणविकाय मार्सेलाक जायत गेली. ताचें चित्रण हे कादंबरेंत केलां. मार्सेलाचें भुरगेपण, तरणेपणांत ताचे जाल्ले भावनीक बदल, तरणाटेपणांत ताणें केल्लो निर्फळ मोग हाचें सगळें सविस्तर वर्णन हें कादंबरेंत आसा. एकुणिसाव्या शतमानाचीं निमाणीं तीस वर्सां आनी विसाव्या शतमानाचें पयलें दशक अशा वट्ट चाळीस वर्सांच्या काळाचें दर्शन हे कादंबरीवरवीं घडटा. हे कादंबरेंतल्यान प्रूस्ताचे स्वताचे अशे जिणेविशीं कांय तत्त्वगिन्यान व्यक्त जाल्लें दिसता. ताच्या मतान जग हें फकत आपले भोवतणींच आकार घेना जाल्यार ते आमच्यांतूच आसा. जग म्हळ्यारूच आमी. आमचे भोंवतणच्या मनशांक आमीच आकार दितात. निर्शेल्लेपणाक लागून ते ना जातात जाल्यार मोग आनी दुस्वास ह्या भावनांक लागून ते व्हड रूप घेतात. जगांत कांयच खरें ना. वगडायल्लो सर्ग होच खरो सर्ग. यादींच्या आदारावरवीं ते आमी परत मेळोवंक शकतात. काळाच्या एका नव्या परिणामाचो प्रत्यय हे कादंबरेंतल्यान येता. काळ हो केन्नाच शेणना. जावन गेल्ल्यो घडणूकों, घेतिल्ले अणभव हें सगळें आमच्या भितल्ल्या मनांत सुप्तावस्थेंत आसता. ते यादीकडेन संबंदीत आशिल्ली कसलीय विशिश्ट पदार्थाची रूच विशिश्ट संगिताचो सूर वा विशिश्ट वास अशा खंयच्याय निमतान त्यो अचळय जाग्यो जातात. आमी त्यो घडणुको वा ते अणभव वयल्या इतले उत्कटतेन जगतात. प्रूस्तान स्मरणशक्तीचे दोन भेद दाखयल्यात. प्रकट मनान जाणविकायेन केल्ली याद हो एक प्रकार आनी पुराय भावनेचे अवस्थेंत आपल्याक परत अणभव दिवपी याद हो दुसरो प्रकार. प्रूस्ताची भास संपन्न आसून एकाच वेळार विश्वाचें आनी अंतर्मनाचें दर्शन घडोवपाची तांक तिच्यांत आसा.

प्रूस्तान १८९६ ते १९०४ ह्या काळांत बरयल्ली सुमार १००० पानांची एक अर्दवट कादंबरी झाँ सान्तेय ह्या नांवान १९५२त उजवाडाक आयली. ताणें कांय कथाय बरयल्यात. सँत - बव्ह ह्या फ्रेंच साहित्यिकाचेर एक समालोचनात्मक ग्रंथ ताणें बरयल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**प्र्यूदॉम रॅन फ्रांसुआ आर्मान्द** : (जल्म : १६ मार्च १८३९, पॅरीस, फ्रांस; मरण : ७ सप्टेंबर १९०७).

एक नामनेचो फ्रेंच कवी. शाळेंतलें शिक्षण विज्ञान विशय घेवन पुराय केले उपरांत तो एका ल्हानशा कारखान्यांत काम करतालो. १८६०त हें काम सोडून तो कायद्याचो अभ्यास करपाक लागलो. १८६५त प्रेमभंगाचो वायट अणभव आयले उपरांत तो साबार ल्हानल्हान उदास (खंती) कविता रचपाक लागलो. Stances et Poems आनी Les Euries ह्यो ताच्यो खंती कविता त्या वेळार खूब गाजिल्ल्यो. 'Goquis italiens' ह्या कवितांझेल्यांत ताणें आपल्याक तरणेपणांत आयिल्ले वायट अणभव मांडल्यात. आपले कवितेंत ताणें सदांच तत्त्वगिन्यानांतल्या दुबावांचेर

चड भर दिल्लो.

१८७० हें ताचे जिणेंतलें काळखी वर्स. ह्या वर्साचे सुरवेक कांय दिसांभितरूच ताच्या बापोलयाक, चुलतेक आनी आवयक मरण आयलें. हाचो ताका धक्को बशिल्ल्यान ताचे कुडीच्या सकयल्या भागाक आर जाली. ह्या आघातांतल्यान आपल्याक सांवरून घेता आसतनाच रोखडेंच फ्रँको - परशियी झूज सुरू जालें. ह्या झुजाक लागून फ्रांसाची पुराय स्थिती इबाडिल्ली. ह्या झुजाचे वायट परिणाम ताणें Inpressions de la guene (Inpresions of war), Les Destins (The Destinees), France, Justice, Happiness, Les Epreues ह्या कविताझेल्यांनी मांडल्यात.

फ्रँच पारानादसियन चळवळीचो तो मुखेल वांटेकार आसलो. ताणें आपल्या कवितांनी सोबीतकाय आनी सौंदर्य हांचेमदीं संतुलन करून अद्भूततायेक विरोध केल्लो दिश्टी पडटा. ऐहिक आनी सैमीक प्रगती वांगडाच जावंक शकता अशी ताची खात्री आशिल्ली. Que Sais - je? (What do I know? 1896) आनी La Vraise (True Religion 1905) ह्या आपल्या निमाण्या कवितांनी ताणें वास्तवीकवाद, तत्त्वगिन्यान आनी विज्ञानीक प्राप्तींचेर भर दिला.

खाशेली अशी कवितांची रचणूक जातूंत उंचेले आदर्श, फिशालकाय, सोबीत गुणांचे पुरावे मेळटात, तेचपरी जातूंत भावना आनी बुद्द हांचो समतोल आसा, ह्या गुणांक लागून १९०१त, ताका साहित्याखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रेगल, फ्रिट्स :** (जल्म : ३ सप्टेंबर १८६९, लायबाख (ऑस्ट्रिया); मरण : १३ डिसेंबर १९३०, ग्रात्स).

ऑस्ट्रियी रसायनशास्त्रज्ञ. तेन्नाचें लायबाख आनी आतांचें युगोस्लावियांतलें ल्युब्ल्याना हे सुवाते वयल्यान जिम्नेशियमांतल्यान (विद्यापीठपूर्व महाविद्यालयांतल्यान) तो पदवीधर जालो. १८९४ त ताणें ग्रात्स विद्यापिठाची एम्. डी. पदवी मेळयली. ग्रात्स शारांत ताणें दोळ्यां वैजाचें काम केलें. थंय तो शरीर क्रियावैज्ञानिक रसायनशास्त्रांत संशोधन करूंक लागलो. ताणें कॉलिक आम्लाच्या विक्रियांविशी संशोधन केलें. मनशाच्या मुतांतलें 'कार्बनः नायट्रोजन' हें प्रमाण उच्च किद्याक आसता, हाचीं कारणां ताणें सोडून काडलीं. ह्या सोदाक लागून १८९९त, तो ग्रात्स विद्यापिठांत शरीरक्रियाविज्ञानाचो व्याख्यातो जालो. १९०४ त तो जर्मनीक गेलो. थंय ताणें शरीरक्रियावैज्ञानिक रसायनशास्त्र, भौतीक रसयानशास्त्र आनी कार्बनी रसायनशास्त्राचो अभ्यास केलो.

१९०४ त तो परत ग्रात्स विद्यापिठांत आयलो आनी विद्यापिठाच्या वखदी - रसायनीक प्रयोगशाळेंत काम करूंक लागलो. थंय ताणें पित्ताम्हाचो अभ्यास केलो. ताणें प्रथीन रसायनशास्त्रांतूय संशोधन केलें. हो अभ्यास करता आसताना तेन्नाच्यो कार्बनी विश्लेशणाच्यो पद्दती ताका खूब किचकट दिसपाक लागल्यो; तशेंच अशा विश्लेर्शणाखातीर विश्लेशण करपाचो पदार्थ व्हडा प्रमाणांत लागता. देखून उण्यांत उण्या नमुन्याचें विश्लेशण करपाचे पद्दतीचो सोद ताणें लायलो. प्रेगल हाचें पद्दतीचें खाशेलपण म्हळ्यार विश्लेशण करपाखातीरचो नमुनो १-३ मिग्रॅ. इतलो पुरो जाता. तशेंच निश्कर्श बेगीन मेळटात. १९१०त तो इन्सब्रुक विध्यापिठांत वखदी रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक जालो. थंय ताणें डब्लू. एच. कुहलमान हाच्या पालवान १०.००१ मिलीग्रॅम इतलें सुक्ष्म वजन करपी तागडी सोदून काडली. ताणें कार्बनी पदार्थांतलें कार्बन आनी हायड्रोजन हांचें आशिल्ले सुक्ष्म प्रमाण थरोवपाच्यो पद्दती सोदून काडल्यो.

वैश्लेषिक रसायनशास्त्रांतल्या ताच्या म्हत्वाच्या सोदाखातीर ताका १९२३ वर्साचो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. कार्बनी पदार्थांच्या सुक्ष्म-विश्लेषण तंत्रांतले सुदारणेखातीर प्रेगल सगळ्याक नामनेक पावलो. ताच्या ह्या कार्याक लागून विज्ञान आनी उद्देग हांचे उदरगतीक चालना मेळ्ळी. जीवनरसायन शास्त्रांतले मुळावे कार्य आनिकूय सोपें जाले. १९१३त तो ग्रात्साक परत आयलो आनी थंयच्या विद्यापिठांत वखदी रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक जालो.

१९०४ त, ताका 'व्हिएन्ना ॲकॅडेमी ऑफ सायन्स' संस्थेन रसायनशास्त्राचें लिवेन इनाम दिलें. गटिंगेन विद्यापिठान ताका १९२०त तत्त्वगिन्यानाची पदवी दिली. १९१७त ताणें Die quantitative organistic Microanalyse हो ग्रंथ उजवाडायलो. साबार भाशांनी ताचे अणकार जाले.

- को. वि. सं. मं.

**प्रेमचंद :** (जल्म : ३१ जुलय १८८१, लमही, जि. पांडेपूर, उत्तर प्रदेश; मरण : ८ ऑक्टोबर १९३६ बनारस).

नामनेचो हिंदी - उर्दू कादंबरीकार आनी कथालेखक. ताचो बापूय अजायब राय हो पोस्ट खात्यांत कारकून आशिल्लो. ताचे आवयचें नांव आनंदी. प्रेमचंदाचें मूळ नांव धनपतराय. सरकारी चाकर आशिल्ल्यान ताणें 'नबाबराय' ह्या टोपण नांवान बरोवपाक सुरवात केल्ली. पूण फुडें १९०९त 'सोजे वतन' हो उर्दू कथां झेलो, तातूंतल्या खर राष्ट्रीय भावनांक लागून सरकारान जप्त केल्ल्यान ताका 'नबाबराय' हें नांव सोडून दिवचें पडलें. ताच्या एका इश्टाचे सांगणेवयल्यान ताणें 'प्रेमचंद' हें नांव आपणायलें.



ताचें भुरगेपण खेड्यांत गेलें. भुरगेपणांत तो एक बुदवंत आशिल्लो. पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा ताचें लग्न जालें. पूण बायलेकडेन पटनाशिल्ल्यान तिका सोडचीट दिली आनी शिवरानीदेवी हे तरणे विधवेकडेन तो लग्न जालो. हें ताचें लग्न सुखाचें थारलें.

सुरवेक आठ वर्सां ताणें फार्सी शिक्षण घेतलें. उपरांत इंग्लीश शिक्षण घेवन तो १८९७त मॅट्रीक पास जालो. १८९९त तो शिक्षक जालो. १९०० त ताणें बराइचाक सरकारी शाळेंत सहाय्यक शिक्षकाची नोकरी धरली. १९१०त तो इंटर परिक्षा पास जालो आनी १९१९ वर्सा ताणें बी. ए. ची पदवी घेतली. उपरांत साबार शिक्षणीक संस्थांनी ताणें शिक्षक म्हणून काम केलें. उपरांत तो मुख्याध्यापक आनी शाळेचो उपनिरिक्षकूय जालो.

'मर्यादा', 'माधुरी', 'हंस', 'जागरण' ह्या नेमाळ्यांचें ताणें अदींमदीं संपादनूय केलें. १९३४त मुंबयचे चित्रपट सृश्टींत येवपाचो ताणें यत्न

केलो पूण तातूंत ताका येस मेळ्ळेंना. अर्थीक परिस्थिती आनी कश्ट हांकां लागून ताची भलायकी इबाडली. १९०१ त प्रेमचंदाच्या साहित्यीक जिणेक सुरवात जाली ताणें हिंदी आनी उर्दू ह्या दोनूय साहित्यांक नवी दिका दिली. ताची पयली कादंबरी 'असरारे मआविद' (देवळाचें गुपीत) ही एका उर्दू सातोळ्यांतल्यान १९०३ - १९०५ ह्या काळांत उजवाडाक आयली. ताचे उपरांतची मूळ उर्दू कादंबरी 'हमखुर्मा-ए-हमशबाब' हिंदी भाशेंत १९०७ 'प्रेमा' ह्या नांवान उजवाडाक आयली. 'किश्ना' ही नवलकाणी १९०७ त उजवाडाक आयली. एक बरो कथाकार म्हणून तो नांवारुपाक आयलो.

प्रेमचंदान सुमार १५ कादंबऱ्यो बरयल्यो. तातूंतल्यो 'सेवासदन' (१९१८), प्रेमाश्रम (१९२२), रंगभूमि (१९२४, निर्मला (१९२७), कायाकल्प (१९२८), गबन (१९३०), कर्मभूमि (१९३२), गोदान (१९३६) ह्यो मुखेल आसात.

ताणें सुमार ३०० कथा बरयल्यात अशें म्हण्टात. ताच्या कथांचे सुमार २४ झेले उजवाडाक आयले आनी फुडें ताच्यो सगळ्यो कथा १९६०त 'मानसरोवर' ह्या नांवान उजवाडाक आयल्यो. ताणें नाटकां, चरित्रां, बालसाहित्य निबंदूय बरयल्यात. कांय इंग्लीश नाटकांचे ताणें हिंदींत अणकारूय केल्यात. ताच्या कांय गाजिल्ल्या कथा आनी कादंबऱ्यांचे अणकार भारतीय तशेंच विदेशी भाशांनी जाल्यात. सहित्याचे विंगड विंगड प्रकार ताणें केळयले तरी लेगीत तो 'कादंबरी सम्राट' म्हणून साहित्याच्या संवसारांत अजूंवर जावन उरला.

ताणें जेन्ना साहित्याच्या मळार प्रवेश केलो तेन्ना हिंदी आनी उर्दू साहित्य हें अद्भूत, जादू, रहस्य हांच्या काणयांनी भरिल्लें. ह्या सगळ्या साहित्याक ताणें एक नवें आनी खाशेलें मोडण दिलें. सेवासदन हे कादंबरीवरवीं ताणें हिंदी भाशेंत वास्तव पूण कलात्मक कथासाहित्याची बुन्याद घाली. हे कादंबरेंत ताणें मध्यम वर्गीय बायलेचे जिणेंतली घुस्पागोंदळाची वैवाहिक अडचण बेसबरी पिंतारल्या. 'प्रेमाश्रम' हे कादंबरेंत शेतकार आनी भाटकार हांच्या परस्पर संबंदांचें वास्तव दर्शन घडयलां. 'रंगभूमी' ही ताची एक म्हान साहित्यकृती मानतात. राश्ट्रीय प्रवाहांत घडपी विंगड - विंगड घडणुकांचीं ल्हारां हे कादंबरेंतल्यान जाणवतात.

प्रेमचंदाचे, भुरगेपणांत अभ्यासापरस, अवजाळीपण करपाक चड मन रमतालें. ह्या ताच्या भुरगेपणाचें चित्रण ताच्या 'होली', 'कजाकी', 'गुल्लीडंडा', 'चोरी' ह्या कथांनी बेसबरें दिश्टी पडटा. तशेंच 'बडे घरकी बेटी', पंच परमेश्वर' 'बडे भाईसाहब', 'गुल्लीडंडा', 'नशा', 'ठाकूर का कुआँ', 'सवासेह गेहूँ', 'सुजान भगत', 'शतरंज के खिलाडी', 'पूस की रात', 'कफन', 'ईदगाह' ह्यो कथा श्रेश्ठ दर्जाच्यो मानतात. आपल्या कथांतल्यान ताणें गांवगिऱ्या आनी नागरी अशा दोनूय प्रकारांचे जिणेचें चित्रण केलां. प्रेमचंदाच्या कथावाङ्मयाचो विस्तार खूब व्हड आसून ताणें मानवी मनाचें खूब बारीकसाणीन आनी खोलायेन निरिक्षण केलां. भिकाऱ्यांपासून राजाम्हाराजांमेरेन, शेतकामत्यापसून भाटकारामेरेन, भुरग्यापसून जाण्टयांमेरेन सगळीं पात्रां ताणें व्हड कलात्मकतेन चितरायल्यांत. ताच्या कांय कथा - कादंबऱ्यांचेर गरीब, मजदूर, हीरा मोती, सेवासदन, गबन, शतरंज के खिलाडी अशीं चलचित्रां आयल्यांत.

हिंदी आनी उर्दू साहित्यांत प्रेमचंदाक व्हड मानाची सुवात आसा. अर्थीक परीस्थिती आनी कश्ट हांकां लागून ताची भलायकी इबाडली. अशेय परीस्थितींत लेखक ह्या नात्यान ताणें भारतभर भोंवडी केली. १९३५ वर्सा लखनौंत भरिल्ल्या 'प्रगतिशील लेखक संघा'च्या पयल्या अधिवेशनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. त्याच वर्सा बनारसाक ताका मरण आयलें. ३१ जुलय १९८० दिसा, भारतभर व्हड उमेदीन ताची जल्मशताब्दी मनयली. ते निमतान भारत सरकारान ताचें चित्र आशिल्लो पोस्टाचो सेल काडलो.

- छाया चोडणकार

**प्रेमानंद :** (सुमार १६३६ - सुमार १७३४).

एक नामनेचो गुजराती भक्तकवी. ताच्या जिविताविशी निश्चीत अशी म्हायती मेळना. जातीन तो ब्राह्मण आशिल्लो आनी तो बडोद्याक रावतालो. ताच्या बापायचे नांव कृष्णराम. आवय बापायच्या मरणाउपरांत मावशेन ताचो सांबाळ केलो. पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा रामचरण हरिहर नांवाच्या एका संन्याशान ताका गुरूपदेश दिलो. उपरांत प्रेमानंद ताचेवांगडा उत्तर भारतांत गेलो आनी थंय ताणें हिंदी आनी संस्कृत भाशांचो खोलायेन अभ्यास करून घेतलो. गुरूच्या मार्गदर्शनासकयल ताणें रामायण - महाभारत म्हाकाव्यांचो आनी भागवत पुराणांचो बारीकसाणीन अभ्यास केलो.

सुर्वेक गागरिआ भट म्हणून तो नामनेक आयलो. नंदुरबाराक ताचो खूब तेंप राबितो आशिल्लो. गुजराती भाशेचो ताका खूब अभिमान आशिल्लो. गुजराती भाशेची, साहित्यीक नदरेन हिंदीसारकी उदरगत जालेबगर आपूण पगडी घालचोना अशी ताणें प्रतिज्ञा केल्ली अशें म्हण्टात.

मरणा वेळार ताचे ५२ शिश्य आशिल्ले आनी तातूंत १२ बायलांचो आस्पाव आशिल्लो, अशें सांगतात. ताचो पूत आनी शिश्य वल्लभ होय एक कवी आशिल्लो अशें मत आसा. ताणें सुमार २५ ग्रंथ रचले. 'दोणलिला', 'भ्रमरपचिशी' हीं स्फूटकाव्यां आनी 'सुदामाचरित्र', 'नळाख्यान' 'सुधन्वाख्यान', 'हरिश्चन्द्राख्यान', 'मदालसाख्यान', 'रुक्मिणीहरण' हीं पौराणिक आख्यानां बरयलीं. 'हुंडी', 'श्राद्ध', 'मामेरुं' हीं नरसी मेहताच्या जिविताचेर आदारीत आख्यानां आनी भागवताचो दशमस्कंध हें प्रेमानंदाचे नामनेचे काव्यग्रंथ. आपल्या काव्यांत विंगड विंगड भावप्रसंगांचे, भावनांचे आविश्कार करतना ताणें फावो ती रसनिर्मिती केल्या. देखूनूच एक रससिद्ध कवी म्हणून ताका वळखतात. ताची भास सादी, सोंपी आनी रसाळ आशिल्ली. गुजरातींतलो तो एक म्हान कवी जावन रावला अशें समिक्षक मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**प्रोटागोरस :** (इ. स. आदीं ४८५ ते इ. स. आदीं ४१०).

नामनेचो ग्रीसी विचारवंत. ग्रीसांतल्या त्या काळांतल्या नैतिक आनी राजकीय अडचणींचो ताच्या विचारांचेर प्रभाव पडिल्लो. ताणें अज्ञेयवादाचो पुरस्कार केलो आनी धर्मीक अंधश्रद्धांक विरोध प्रगटायलो. मनशांक बऱ्या गुणांची शिकवण दिवपाचें काम ताणें मरसर केलें. धर्माचेर आनी ईश्वराचेर विश्वास ना दवरपी सोफिस्ट विचारप्रणालीचो तो जनक.

इ. स. आदीं पांचव्या शतमानांत संशयवादाचीं पाळां धरूंक लागलीं. धर्माचो प्रभाव उणो जांवक लागलो. त्या ग्रीक नगरराज्यांत प्रत्यक्ष लोकसत्ता पद्दत स्थापन जाल्ली आनी तातूंत सगळ्या नागरिकांनी आपआपलीं मतां मांडचीं अशी अपेक्षा दवरिल्ली. तेन्ना न्यायालयीन कामांनीय

वकील दिवपाची पद्दत नाशिल्ली. अशा वेळार समाजाक शिकवण दिवपी एका पंगडाचो उदेंव जालो. हे सोफिस्ट पंथी विचारवंत लोकांक बऱ्या गुणांची शिकवण दिताले. ह्या पंथाचें फुडारपण प्रोटोगोरसान करून ताचे विचारप्रणालींत मोलादीक भर घाली.

प्रोटोगोरसान भरपूर लिखाण केलां. पूण तें सगळेंच मेळना. तो एक धर्मविरोधी आनी ईश्वराच्या अस्तित्वाआड येवपी म्हणून ग्रीकांनी ताची टिका केली. तेचपरी ताच्या लेखांची होळी केली. ताच्या मरणाच्या पांच वर्सां आदीं ताका ग्रीकांनी अॅथेन्साभायर धांवडावन दिल्लो. पूण ताचें जें थोडेंभोव लिखाण मेळटा तातूंत दोन मुखेल सुत्रां मेळटात. पयल्या सुत्रांत ऐहिक आनी जड वस्तूपलतडचे ईश्वर आदी विशय अज्ञेय आसात. देखून मनशान सर्ग - नरक, देव - दैत्य आदी कल्पनांचेर विश्वास दवरप ना. ताचें दुसरें म्हत्वाचें सुत्र म्हळ्यार मनशाचें व्हडपण. ताच्या मतान सगळ्या वस्तूंचें मोलमाप मनशाचे नदरेन आनी ताच्या संदर्भांत करूंक जाय. मनीस होच सगळ्या मुल्यांची कसोटी. संवसारांत आनी जिणेंत योग्य-अयोग्य, बरें वायट, न्याय अन्याय ह्या सगळ्या मुल्यांचो परिमाण मनीस आसूंक जाय. खंयचेय करणेचो वा वस्तूचो निमाणें मनशाक कितें उपेग जाता होच मानदंड आसा. धर्म रुढी आनी परंपरा हांचे फांटभुंयेचेर त्या काळांत मनशाच्या स्वतंत्र व्यक्तिमत्वाक म्हत्व नाशिल्लें. हाची प्रतिक्रिया ताच्या विचारावरवीं प्रतिबिंबीत जाल्ली दिसता.

कोणाय मनशाक कसलीय गजाल खरी आसा अशें दिसता. तेविशींचें खरेपण थरोवपाचो निमाणो निर्णय त्याच मनशाक आसता. अशा वेळार हेरांच्या विचारांचें नियंत्रण ताचेर आसूंक जायना अशें ताचे मत आशिल्लें. कांय काळा उपरांत मनशाक जाय जाल्यार आपलें मत बदलपाचें स्वातंत्र्य दिवपाचो ताणें पुरस्कार केल्लो. अंधश्रद्धा आनी रुढी हांचेर प्रोटागोरसान खर टिका केल्ल्यान ताका अनुयायांवांगडा विरोधकूय निर्माण जाल्ले. ताचे उपरांत सोफिस्टांचे विचारप्रणालेंत जायते गट पडले.

– कों. वि. सं. मं.

## प्लॅटो : (इ. स. प. ४२७ - ३४७).

नामनेचो ग्रीसीतत्त्वज्ञ. प्लॅटो सॉक्रेटिस आनी ॲरिस्टोटल ह्या तीन प्रचीन ग्रीसीतत्त्ववेत्यांनी अस्तंती संस्कृतायेची तत्त्वज्ञानीक बुन्याद घाली. प्रसिद्द ग्रीसीक तत्त्वज्ञ सॉक्रेटिस हाचे जिणेचो आनी येवजणेचो परिणाम अथेन्सांतल्या साबार तरणाट्यांच्या मनांचेर जाल्लो. तातूंत प्लॅटोचोय आस्पाव आशिल्लो. ताणें सॉक्रेटिस हाचे विचार आत्मसात करून तातूंत स्वताच्या राजकीय आनी समाजीक तत्त्वज्ञानाची भर घाली.



प्लॅटो हाचो जल्म ॲथेन्स ह्या शारांत एका प्रतिशठीत आनी खानदानी घराण्यांत जालो. प्लॅटोच्या भुरगेपणांतले जिणेविशीं चडशी म्हायती मेळना. ताणें ल्हान पिरायेंतूच गायन, वादन, चित्रकला, तत्त्वज्ञान अशा विंगड विंगड कलांचो अभ्यास केल्लो. ताचेपयलीं जावन गेल्ल्या तत्त्वज्ञांच्या ग्रंथांचो ताणें खोलायेन अभ्यास केल्लो. पिरायेच्या विसाव्या वर्सा तो सॉक्रेटिस हाचो शिश्य जालो. सॉक्रेटिस हाका तो आपलो एकमेव गुरू मानतालो. हेच पिरायेंत ताचो त्रॅक्टिलत ह्या दुसऱ्या तत्त्वज्ञाकडेन संबंद आयलो.

प्लॅटो तीस वर्सांचो आसतना सॉक्रेटिस हाचेर ॲथेन्साच्या लोकशायी न्यायालयांत फटीचें आरोपपत्र दवरून खटलो भरिल्लो आनी दोन आरोपांखाला ताका मरणाची ख्यास्त दिली. सॉक्रेटिस तरणाट्यांक पेड्डेर करता असो ताचेर पयलो आरोप आशिल्लो आनी दुसरो आरोप अथेन्साच्या नगरदेवतांक तो मान दिना असो आशिल्लो. लोकशाय नगरराज्यांतल्या हुशार आनी आदरणीय विचारवंताचो अशे रितीन बळी वचप हाचो प्लॅटोक व्हड धक्को बसलो. लोकशायेचो होच काय खरो अर्थ, असो प्रस्न ताच्या मनांत उबो रावलो. लोकशाय जर इतल्या सकयल्या दर्ज्याची आसत जाल्यार, आदर्श राज्याचें स्वरूप खंयचे अशे साबार सतावणे प्रस्न ताच्या मनांत घर करून रावले आनी तातूंतल्यानूच ताची आदर्श राज्याची कल्पना साकार जाली.

सॉक्रेटिसाच्या मरणा उपरांत आपलेय जिणेक धोको आसा अशें दिसले. उपरांत प्लॅटोन बारा वर्सां अज्ञातवास आपणायलो. ह्या काळांत ताणें मेगॅरा, सिटीन, इजिप्त, इटली, सिसिली, बेबिलोनिया आनी हेर देशांक भेट दिली. ह्या विंगड विंगड देशांचे राजकीय परिस्थीतीचो आनी थंयचे विचारसरणेचो खोलायेन अभ्यास केलो आनी थंय मेळिल्ल्या वेगळ्या वेगळ्या अणभवांच्या आदारान ताणें आपल्यो आदर्श राज्याच्यो कल्पना मांडल्यो.

इ. स. पयलीं ३८७त प्लॅटो इटली आनी सिसिलीक गेलो. थंय ताका सिराक्यूजाचो हुकूमशाह पयलो डायोनितियस हाका मेळपाची संद मेळ्ळी. हे भेटींत प्लॅटोन आपल्या 'रिपब्लिक' ग्रंथांतलीं तत्त्वां त्या हुकूशाहाक समजावन सांगलीं. तातूंतल्या अन्यायाच्या वायट परिणामाची आनी जुलमी राजवटींतलें वर्णन आयकून डायोनितियसाक राग आयलो. ताणें प्लॅटोक ॲथेन्साचें जें शत्रुराष्ट्र आशिल्लें त्या वकिलाचे सुवादीन केलो. त्या वकिलान प्लॅटोक गुलाम म्हणून विकून उडयलो. गुलामगिरींतल्यान मुक्त जावपाखातीर फावो आशिल्लें धन दिवन ताणें आपल्याक सोडोवन घेतलो आनी तो ॲथेन्साक परत आयलो. दुसरो डायोनिसियत हाकाय आदर्शशासक करपाक प्लॅटोक येस आयलेंना आपूण बेठोच आदर्श राज्याच्या विचारांचें कल्पनाचित्र पिंतारायतालों अशें ताका दिसपाक लागलें. हाका लागून उपरांत ताणें 'स्टेट्समन' आनी 'द लॉस' ह्या ग्रंथांनी तत्त्वीकतेपरस वास्तवतेचेर चड भर दिलो.

प्लॅटोन आपल्या ग्रंथांत राजकारण समाजशास्त्र नितीतत्त्वां, धर्मकल्पना अर्थशास्त्र, मानसशास्त्र आनी हेर विचार मांडल्यात. सद्गुण हेंच खरें गिन्यान' (Virtue is Knowledge) हो ताचो आदर्श आशिल्लो. राज्यशास्त्रान नितितत्त्वांचोय आदार घेवंक जाय हांचेर ताचो मुखेल भर आशिल्लो. हाकाच लागून राज्याचीं सत्तासुत्रां समाजांतल्या नितीमान आनी तत्त्वज्ञ हांच्या हातांत आसूंक जाय अशें ताचें मत आशिल्लें. सोफिस्ट लोकांचो व्यक्तिस्वातंत्र्यवाद ताका मान्य नाशिल्लो. मनशाक सामाजाच्या सगळ्या थरांचे उदरगतीखातीर शिक्षण हो एकमेव प्रभावी मार्ग आसा हें ताचें तत्त्व आशिल्लें. प्लॅटोन आदर्श समाजवेवस्थेचें आनी राज्यसंस्थेचें

कल्पनाचित्र आपल्या 'रिपब्लिक' ह्या ग्रंथांत रेखाटलां.

इ. स. पयलीं ३८८-३८७ ह्या सुमाराक प्लॅटोन अथेन्सांत शिक्षण श्रमाची 'ॲकॅडमी' उबारिल्ली. ॲकॅडमीची स्थापणूक करतना ताचे मुखार दोन उद्देश आशिल्ले. फकत ज्ञानलालसेन आनी शास्त्रशुद्ध पद्दतीन विद्याभ्यास जावचो आनी पदरांत पडिल्लें गिन्यान मानवी हीत सादपाखातीर सार्थकी लावचें. ताच्या मतान, ज्ञानी मनिसूच राज्य बरे रितीन चलोवंक शकता. हाका लागून मनशाची उदरगत जावचेखातीर तत्त्ववेत्त्या सत्ताधाऱ्यांनीच राज्यकारभार चलोवंक जाय. भावी राज्यकर्ते आनी विधिमंडळांत वांटो घेवपी वांगड्यांक शिक्षण दिवपाच्या हेतून प्लॅटोन ॲकॅडमी काडिल्ली. ॲकॅडमींत शिक्षण दितना जाल्ल्या विगड विगड संवादांचो एक संग्रह म्हळ्यार ताचो नामनेचो ग्रंथ 'रिपाब्लिक'. प्लॅटो निमाणेमेरेन हे ॲकॅडमीचो अध्यक्ष रावलो.

प्लॅटोन खूब लिखाण केलें. प्लॅटोची विचार मांडपाची पद्दत संवादात्मक आशिल्ली. ताका लागून ताच्या ग्रंथांक 'प्लॅटोचे संवाद' अशें म्हण्टात. स्टेट्समन, ॲपॉलॉजी, क्रिटो, प्रोटेगोरस, लिसिस, सोफिस्ट, मेनो, फिडो, रिपब्लिक, लॉस, फिड्‌स्, फिलेबस आनी हेर संवादग्रंथ प्लॅटोन बरयले. प्लॅटोचे राजकीय विचार ताच्या 'द रिपब्लिक', 'द पोलिटिक्स' आनी 'द लॉस' ह्या तीन ग्रंथांनी व्यक्त केल्यात.

प्लॅटोन आपली आदर्श राज्यविशींची कल्पना रिपब्लिक ह्या ग्रंथांत मांडल्या. ताचेखातीर ताणें सेंद्रीय सिद्धान्ताचो आदार घेतला. ताच्या मतान, राज्य म्हळ्यार मनशाचें व्हड स्वरूप. जे पद्दतीन मनीस निर्माण जाता आनी ताचें कार्य चलता, तेच पद्दतीन समाज निर्माण जाता. समाजाच्यो गरजो भागोवपाक समाजांत तीन वर्ग आसतात – राज्यकर्त्यांचो वर्ग, राखण करतल्यांचो वर्ग आनी श्रमिकांचो वर्ग ह्या तीन वर्गांवरवीं राज्याचें संरक्षण आनी संवर्धन जायत आसता. मनशाचे कुडींत पोट, हड्‌डें आनी मेंदू जशी एके वळेरेंत वासनापुर्ती, संरक्षण आनी नियंत्रण हीं कामां करतात, तेचप्रमाण समाजांतले वर्गूय राज्याचो वावर करतात. आदर्श नागरीक निर्माण करप हें राज्याचें मुखेल कार्य.

प्लॅटोच्या मतान, तत्त्वज्ञ, आदर्श नागरीक आनी न्याय हीं आदर्श राज्याचीं तीन खाशेलपणां. राज्याची सत्ता तत्त्वज्ञ, बुदवंत आनी अणभव आशिल्ल्या लोकांकडेन आसपाक जाय. राज्यकारभाराखातीर कुशळ, सुज्ञ, निसुवार्थी, आत्मसंयमी, धाडशी आनी न्यायमोगी अशे तत्त्वज्ञ राज्यकर्ते आसूंक जाय. अशा राज्यकर्त्यांचेर कायदो, लोकमत, रुढी हांचीं बंधना आसूंक फावोनात. प्लॅटोच्या मतान, नगरराज्यांत नागरिकांची संख्या फकत तांचेर नियंत्रण दवरपाक सोंपें जाता इतली आसूंक जाय. सुसंस्कृत नागरीक निर्माण करप म्हळ्यार आदर्श राज्य निर्माण करप. आदर्श राज्याखातीर प्लॅटोन न्यायाकूय म्हत्व दिलां. आत्म्याक लागून जसो मनशाचे कुडींत जीव येता, तशेंच आदर्श राज्याक न्यायाक लागून पुरायपण येता. ताच्या मतान न्याय म्हळ्यार, जण एकल्याक ताचे आवडीप्रमाण आनी कुवतीप्रमाण काम मेळप आनी तें ताणें जापसालदारकेन मुखार व्हरप.

आदर्श राज्याची उबारणी करचेखातीर प्लॅटोन संपत्ती आनी कुटूंब हांचो साम्यवाद मांडला. राज्यकर्त्यांनी बायल आनी संपत्ती हांचेपसून पयस रावून सादी जीण जियेवपाक जाय. ताणीं समाजहीत हेंच ध्येय मानून राज्यकारभार करचो. कुटुंबसंस्था आनी खाजगी मालमत्ता हांकां आदर्श राज्यांत सुवात नासची. हांकां लागून राज्यकर्ते सुवार्थी आनी भ्रश्टाचारी जातात. हांचेखेरीज आदर्श राज्यनिर्मितीखातीर आदर्श राज्यघटना, राजकीय, प्रशासकीय, अर्थीक वेवस्था आनी हेर गजाली प्लॅटोन सुचीत केल्या.

आदर्श राज्याची कल्पना खरेपणीं साकार जावपाक शक्य ना हाची जाणविकाय प्लॅटोक खूब उसरां जाली. हाका लागून ताणें उपरांत 'द लॉस' ह्या ग्रंथांत मिश्र राज्याची, उपआदर्श राज्याची कल्पना स्पश्ट केल्या. राजेशायेंत कांय प्रमाणांत लोकशाय राज्याच्या कांय तत्त्वांचो आस्पाव आसप भोव गरजेचें आसा. तशेंच कांय प्रमाणांत लोकांक स्वातंत्र्यूय दिवप गरजेचें अशे ताणें सांगलां. ताच्या मतान उपआदर्श राज्य दर्यादेगेसावन पयस आसूंक जाय. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार दर्यादेगेर आशिल्ल्या राज्यांक परकी वेपार, परकी लोकांची संस्कृताय हांचेपसून धोको निर्माण जाता आनी परकी आक्रमणांचोय सदांच भंय आसता. उपरांत नियंत्रण दवरूंक जाता इतली लोकसंख्या आसची. राज्याची जमीन पिकाळ आसची. ते जमनीचे ल्हान ल्हान वांटे करून नागरिकांक दिवंचे आनी तातूंतल्यान मेळपी उत्पन्न एकठांय हाडून ताची समान वांटणी करची. शेतवडीच्या कामांत गुलामांक राबोवचें अशेंय ताणें म्हळां.

'द लॉस' (कायदे) हो प्लॅटोचो सगळ्यांत व्हड ग्रंथ. हातूंत ताणें मिश्र राज्याची कल्पना मांडल्या. राजेशाय आनी लोकशाय हातूंतले जे बरे गूण आसात ते आपणावन नवी राज्यपद्दती निर्माण करची. राजेशायेंतल्या तत्त्वज्ञ राज्यकर्त्याची बुद्द आनी प्रजातंत्रात्मक पद्दतींतली स्वतंत्रताय ह्या दोगांचो मेळ सादून राज्य चलोवपाक जाय. राज्यकारभाराखातीर सादारणपणान समिती, सल्लागार समिती आनी प्रशासकीय नेमचेखातीर सात्तीस लोकांचें कार्यकारी मंडळ नेमून तातूंतले जाण्टे, धर्मगुरू आनी शिक्षणमुखेली अशा धा श्रेश्ठ लोकांचें मंडळ निर्माण करचें. हाणी पुराय शासनाचेर देखरेख दवरूंक जाय. हे रितीन ताणें राजकीय वेवस्थेचें वर्णन केलां. मिश्र शासनपद्दतींत धर्म ही गजाल स्वतंत्र दवरिनासतना तिचेर राज्याचें नियंत्रण आसचें अशें ताणें सांगला. मिश्रराज्यांत खाजगी संपत्ती दवरपाक मेळटा. अशा प्रकारच्या राज्यांत थळाव्या स्वरुपाची, वेंचून काडिल्ल्या न्यायाधिशांचें, विभागीय आनी जनतेचें अशीं चार न्यायालयां आसूंक जाय. शासनकर्ते आनी नागरिक हांचेर कामधाचीं बंधनां आसूंक जाय. दर एका नागरिकान समाजहिताचे नदरेन आपलें कर्तव्य करूंक जाय.

प्लॅटोची न्यायाविशींची कल्पना नैतिक (ethical) स्वरुपाची आसा. दर एका मनशाचे कुडींत मुळांतूच एक बरो गूण आसता. त्या गुणाक फावो अशें काम मेळप म्हळ्यार त्या मनशाक न्याय मेळप हें प्लॅटोचे मत. मनशाभितर बुद्द, धीर आनी वासना अशे तीन गूण आसतात. ह्या तीन गुणांक लागून समाजांत तीन वर्ग जातात. बुदवंत लोकांचो, धाडशी लोकांचो आनी हेर लोकांचो वर्ग. बुदवंत लोकांनी राज्यकाराभाराचीं सुत्रां सांबाळपाक जाय. धाडशी मनशांनी सैन्यांत भरती जावंक जाय आनी फकत शारिरीक इत्सा भागोवपी मनशांचो वर्ग म्हळ्यार शेतकामत्यांचो आनी कामदारांचो वर्ग. स्वताच्या गुणाप्रमाण काम मेळ्ळ्यार त्या मनशाक कामसूक मेळटा. ताका लागून मनशाची वावर करपाची क्षमताय वाडटा. तातुंतूच समाजाचें हीत आसा.

प्लॅटोचो 'रिपब्लिक' हो फकत राजकीय ग्रंथ अशें न्हय. तो शिक्षणशास्त्रावयलोय एक व्हड प्रबंध. प्लॅटोच्या मतान, मनशाक आदर्श

राज्याची दिका दाखोवपाक शिक्षण हें एकमेव साधन. शिक्षणाक लागून मनशाक आपल्या कर्तव्याची खरी जाणविकाय जावन आदर्श राज्याची स्थापणूक करपाक सोंपें जाता. सद्गूण म्हळ्यार गिन्यान (ज्ञान). गिन्यान हाशील करपाक शिक्षण होच योग्य मार्ग. शिक्षणाक लागून मनीस सुसंस्कृत जाता, अशें ताचें मत आशिल्लें. शिक्षण ही एक कला अशेंय तो मानतालो. शिक्षणाचे वेगवेगळे प्रकार आनी कसलें शिक्षण खंयचे पिरायेर घेवचें हेंय ताणें थरयलां.

'टायमिअस' आनी ताचेकडेन जोडिल्लो ताचो 'क्रिटिअस' हो अर्दो आशिल्लो संवाद. ह्या संवादाचो विशय विश्वस्थितिशास्त्र (कॉस्मॉलॉजी). ईश्वर, विश्वाची उत्पत्ती आनी रचणूक, जिवांची रचणूक आनी हेर गजालींविशीं केल्ले तर्क तातूंत मांडल्यात. ग्रिसी तत्त्वगिन्यानांत आनी विज्ञानांत त्या तेंपार जीं विंगड विंगड मतां मांडिल्लीं (पायथॅगोरस, मंपेडोक्लिझ आनी हेर) तांचो आदार घेवन प्लॅटोन आपले तर्क मांडले. इंद्रियगोचर आनी परिवर्तशील अशें जें विश्व आसा ताच्या अस्तित्वाक काळा उपरांत सुरवात जाता हें सत्य न्हय. तें ईश्वरान रचिल्लें आसा. हे रचणुकेखातीर ईश्वर परिपूर्ण सत् - सामान्य आदर्श म्हणून आपणायता आनी ताच्यो प्रतिकृती म्हणून इंद्रियगोचर वस्तू तयार करता. ईश्वर बुद्ध आनी सादित्सा ह्या गुणांनी युक्त आसा. म्हणून तो परिपूर्ण सत् - सामान्य हांचो आदर्श नमुने म्हणून आपणायता आनी सुवेवस्थीत अशें विश्व तयार करता. आदर्श सत् - सामान्यांच्यो प्रतिकृती तयार करचेखातीर द्रव्य जाय पडटा. हें द्रव्य म्हळ्यार अवकाश-सत्-सामान्य. हें आकारीत आनी बुद्धिग्राह्य आसता. एक खाशेली वस्तू द्रव्याक सत्-सामान्यांनी आकारीत केल्ल्यान धडिल्ली आसता आनी द्रव्याक आकार दिवपाचें हें काम ईश्वर करता. हे पासत विश्वाचें स्वरूप जाणून घेवपाक ईश्वर, सत् - सामन्य आनी अवकाशरूप द्रव्य हीं तीन तत्त्वां समजून घेवप भोव गरजेचें आसता. प्लॅटोच्या ह्या संवादांत पयलींचे ग्रीसी तत्त्ववेत्ते, गणिती आनी वैज्ञानिक हाणीं विकसीत केल्लीं साबार विचारांची सुत्रां मेळटात. विज्ञानांतल्या उपरांतच्या विचारप्रणालीचेर ताचो व्हड प्रभाव पडिल्लो दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**प्लास्टर ऑफ पॅरीस** : कॅल्शियम सल्फेटाचो एक प्रकार. ताचें सूत्र $2CaSO_4 \cdot H_2O$ जिप्सम हें सौमिक रितीन मेळपी कॅल्शियम सल्फेट डायहायड्रेट १२०° - २२०° सें. तापमानांत तापयल्यार तातूंतलें उदक वचून ताचें प्लास्टर ऑफ पॅरीस जाता. पॅरीसालागसार प्लास्टर आनी शिमीट तयार करपाखातीर पयलीं जिप्समाचो वापर केलो म्हणून ताका प्लास्टर ऑफ पॅरीस हें नांव पडलें. तशेंच ताका वॉल प्लास्टर कॅल्शियम सल्फेट हेमिहायड्रेट ना सेमिहायड्रेट अशेंय म्हण्टात. प्लास्टर ऑफ पॅरिसाचो पयलो उपेग केल्ल्याची नोंद रोमी ग्रंथकार प्लिनी हाणें आपल्या विज्ञान खंडांत केल्या.

प्लास्टर शुद्ध स्वरुपांत टणक पूण पिठूळ आसता. तातूंत सरसा सारकिलीं बंधक द्रव्यां वापरल्यार ताका चड घटसाण येता. प्लास्टर ऑफ पॅरीस हें जिप्समापसून दोन प्रकारांनी तयार करतात. १) जिप्समाचो पिठो भट्टेंत भाजून आनी २) जिप्समाचे बारीक कुडके घुंवपी भट्टेंत भाजून.

पयले पद्दतींत भट्टेंतलो जिप्समाचो पिठो १२०° - १३०° सेंटीग्रेड तापमानांत, हालोवन - हालोवन सवकासायेन, जिप्समांतले १.५ रेणू उदक आटमेरेन भाजतात. उपरांत भाजपाची गती वाडोवन १६०° सें. मेरेन तापमान वाडयतात. ते उपरांत तो पिठो थंड करून दळून गाळटात आनी प्लास्टर ऑफ पॅरीस वेगळें करतात. केन्नाकेन्नाय हो पिठो परतून भाजचो पडटा, तेन्ना सुरवातीचें भाजपाचें तापमान १९०° सें. मेरेन आसता आनी उपरांत तें २२०° सें. मेरेन वाडयतात. ह्यो सगळ्यो क्रिया १९६१ वर्सा सावन इलॅक्ट्रॉनीय संगणकावतीन करतात.

दुसरे पद्दतींत शिमिटाच्या उत्पादनाखातीर वापरतात तसल्यो घुंवपी भट्ट्यो वापरतात. पयले पद्दतींतल्योच क्रिया हातूंत आसतात. पूण हे दुसरे पद्दतींत तापमान सांबाळपाक त्रास पडटात. तयार जावपी पदार्थांत विरगळपी ॲनहायड्रायट विंगड विंगड प्रमाणांनी आसता. हे पद्दतींत तयार जावपी पदार्थ हवेंत थंड करतात. ताका लागून थंड जातना हातूंतलें ॲनहायड्रायट उदक ओडून घेता आनी उपरांत ताचे प्लास्टर ऑफ पॅरीस जाता. ह्या दोनूय पद्दतींतली विक्रिया घडून येता ती अशी-

$$CaSO4.\ 2H_2O \xrightarrow{120^\circ\text{-}130^\circ \text{सॅ}} CaSO_4 \cdot 1/2\ H_2O + 1.5H_2O$$

जिप्सम ⟶ प्लास्टर ऑफ पॅरीस + उदक

हीच विक्रिया, प्लास्टर ऑफ पॅरीसांत उदक घाल्यार उरफाटी जाता. २००° - १,०००° सॅ. ह्या तापमानांत जिप्सम तापयल्यार ताचें उदक नाशिल्लें कॅल्शियम सल्फेट जाता आनी तें प्लास्टर ऑफ पॅरीसाभाशेन उदक घालतकच आंवळून येना. अशा जिप्समाक 'डॅड बर्ण्ट जिप्सम' वा 'प्लास्टर' म्हण्टात.

प्लास्टर ऑफ पॅरीस रंगान धवें आसता. तातूंत १५ टक्के उदक घाल्यार तें रोखडेंच उदक ओडून घेता आनी ताचो लेप (Paste) तयार जाता. हो लेप पंदरा मिनटां सुकयल्यार घट्ट जाता. प्लास्टर ऑफ पॅरीसांत फडकी (alum) वा टाकणखार भरशिल्यार तें घट्ट जावपाक कळाव जाता पूण मीठ भरशिल्यार तें रोखडेंच घट्ट जाता. तशेंच तातूंत सरस, चूनो, भुसो हे सारकिले पदार्थ भरसून ताचो घट जावपाचो वेळ वाडोवंक येता. फडकी आशिल्ल्या प्लास्टर ऑफ पॅरीसाक 'कीने सिमेंट' अशें म्हण्टात.

प्लास्टर ऑफ पॅरीसांत सुमार ३० टक्के उदक घातल्यार ताची दाट लापशी तयार जाता. ही लापशी ओतून सांचे तयार करतात. ही लापशी तयार करतना प्लास्टरांत उदक घालीनासतना, उदकांत प्लास्टर भरशितात. तेन्ना तें धवळीत रावचें पडटा. ही लापशी रोखडीच घट जाता. म्हणून ती जाता तितले बेगीन सांच्यांत ओतूंक जाय. लापशेंत उदक चड जाल्यार प्लास्टर फुसफुशीत जाता. तेंच उदक उणें जाल्यार प्लास्टर खूब घट जाता. लापशी सांच्यांत ओततकच धा मिनटांनी घट जावन हाताक मोवसार लागल्यार प्लास्टरांतलें उदकाचें प्रमाण सारकें आसा अशें मानपाक जाता. प्लास्टर घट जावपाचे गतीचेर प्लास्टराचे उपेग आदारिल्ले आसतात. उंचेले प्रतीचें प्लास्टर ऑफ पॅरीस मातयेच्या उद्देगांत कप बश्यो, संडासाच्यो बाशयो तयार करपाक खूब प्रमाणांत वापरतात. दातांचे वैजकींत दांतांचे सांचे करपाखातीर, मोडिल्लीं हाडां सारकीं बसोवपाखातीर, खडू तयार करपाखातीर, प्रयोगशाळेतलीं उपकरणां करपाखातीर प्लास्टर ऑफ पॅरीसाचो उपेग करतात. सांच्याच्या

आदारान करपाच्या मुर्तीकामांत आनी कलात्मक सजावटींत प्लास्टर ऑफ पॅरिस वापरतात. वण्टीक लेप काडपाक, घराचे नळे तिजुले हातुंतूय तें वापरतात.

घरांच्यो वण्टी, पाखे प्लास्टर ऑफ पॅरीसान सजोवपाची चाल पूर्विल्ल्या काळांत इजिप्तांतल्यान, रोमी लोकांकडल्यान ब्रिटनांत गेली. उज्यापसून सांबाळपाखातीर वण्टी आनी पाख्याक प्लास्टराचो लेप काडपाची पद्दत मध्ययुगांत ब्रिटनांत आशिल्ली. हालींच्या काळांत चलचित्रघरां, सभाघरां, हॉटॆलां, खानावळी आनी हेर भौशीक इमारतींनी मुखेलपणान प्लास्टराचो उपेग चड प्रमाणांत करतात. ल्हान भुरगीं छंद म्हणून खेळपाच्यो वस्तू तयार करतना प्लास्टर ऑफ पॅरीसाचो उपेग करतात. तेखातीर प्लास्टर ऑफ पॅरीस, मक्याचें पीठ आनी उदक हें अनुक्रमान ३:१ ह्या प्रमाणांत घेवन बेगोबेग धवळ्ळ्यार एक लिबलिबीत गुळो तयार जाता. मिश्रण पातळ जाल्यार तातूंत पीठ घालिनासतना प्लास्टर ऑफ पॅरीस घालचें ही भरसण तयार करतना बरें मस्तून घेवचें. हे भरसणेंत मक्याचें पीठ आशिल्ल्यान तें भरसण मोव आसतनाच ताका जाय तसो आकार दिवपाक मेळटा. मदींच भरसण घट जाल्यार ताचेर वलो कपडो घालून वा स्पंजाच्या आदारान तें परतून मोव करूंक मेळटा. तयार केल्लीं शिल्पां चोवीस वरां सुकयतकच उपरांत ताचेर जाय तशी कलाकुसर करपाक मेळटा.

– प्रेमानंद गोकुळदास फडते

**प्लेग :** यर्सिनिया पेस्टिस ह्या सुक्ष्मजंतूची बादा जाल्ल्यो हुलको (flea) चड करून हुंदीर वा ताचेसारक्या प्राण्यांक चाबून वा उण्याप्रमाणांत मनशाक चाबून जो संसर्गजन्य रोग जाता तो प्लेग. प्लेगाच्या सुक्ष्मजिवाक बॅसिरस (Bacillus) पेस्टिस वा पास्टरेला पेस्टिस (Pasterila Pestis) अशेंय म्हण्टात. ह्या जिवाचो आकार सेफ्टीपिनी भाशेन (हुकेभाशेन) आसता. लॅबोरेटरींत ह्या जिवाची वाड करूंक जाता. तशेंच गिनी पीग वा धवे हुंदीर हांकां ह्या जिवांची इंजेसांवां दिवन तांकां प्लेग हो रोग दिवं येता.

हो जीव हुंदराच्या आंगार आशिल्ल्या हुलकांच्या पोटांत रावता थंय ताची वाड जाता आनी मागीर ती हुलूक हुंदराक चाबून ताच्या आंगांत प्लेगाचे जंतू सोडटा. हुंदराच्या आंगांत त्या जिवाची वाड जावन ताका प्लेग जाता आनी हुंदीर पटापट मरूंक लागतात. हुंदीर मेले उपरांत तांच्या आंगावयल्यो हुलको दुसऱ्या हुंदराक वा मनशांक चाबतात आनी तांकां रोगाची लागण लागता. अशे तरेन ह्या रोगाचो प्रसार जाता.

३९° ते ४०° जोर येवन ह्या रोगाची सुरवात जाता. तशेंच आंग आनी तकली दुखप, थंडी खावप तोंडावळो तांबडेगूंज जावप अशीं लक्षणां दिसतात. जसोजसो जोर वाडत वता तसोतसो मनीस भ्रमिश्ट जाता. तशेंच ताच्या जिवाक थकिल्ले भाशेन जाणवता. ह्या रोगाचें तीन मुखेल प्रकार आसात ते अशे – १) गांठीचो प्लेग, २) फुफुसांतलो प्लेग वा प्लेगाचो न्युमोनिया ३) जीवविशरक्तता वा रगतांतलो प्लेग.

**गांठीचो प्लेग :** प्लेगाचे जीव आंगांत भितर सरले उपरांत सादारणपणान स दिसांनी जोर येता आनी तेच वांगडा जांग, खांको आनी मानेच्यो लसिकाग्रंथी (Lymph nodes) सुजतात आनी त्या जाग्यांनी वळ येता. हुलको चड करून पांयांक चाबतात देखून जागांक वळ येवपाचें हेर जाग्यांपरस चड आसता. हे वळ सादारणपणान कोंबयेच्या तांतया आकाराचे आसतात. ह्या वळांक लागून हातापायांनी बरीच दूख येता. थोडच्या दिसांनी वळ फुट्टात आनी तातूंतल्यान हळदुवो पूं व्हांवंक लागता. योग्य आनी वेळार वखद केलेना जाल्यार रगत विखाळिल्ले खातीर तो मनीस मरूंक शकता.

**प्लेगाचो न्युमोनिया :** उस्वासावांगडा प्लेगाचे जीव फुफुसांत वतात. उपरांत जोर, खोंकली, छातयेंत दुखप, रक्तमिश्रीत कफ, आंगदुखी आनी कातीचेर निळसार रंग अशी लक्षणां जावन मनीस तीन ते चार दिसांनी मरूंक शकता.

**जीवविषरक्तता :** ह्या प्रकाराच्या प्लेगांत एकदम चड कुडकुडो खावप, आंग दुखप, सुमाराभायर जोर चडप, भ्रमिश्ट जावप अशीं लक्षणां दिसतात. असल्या प्रकाराच्या रोगान मनीस रोखडोच मरपाची शक्यताय आसाता.

गांवांत प्लेगाची धाम आसल्यार आनी लसीग्रंथी सुजून वळ आयल्यार इंजेक्शनाची सूय वळांत तोपून तातूंतलो काडिल्लो स्त्राव तपासून प्लेगाचे जीव आसात काय नात हाची खात्री करची पडटा. प्लेगाच्या न्युमोनियाचीं लक्षणां दिसल्यार खांकून आयिल्ले थुकयेंत वा धरकलांत प्लेगाचे जंतू आसात काय नात हाची खात्री करची पडटा. तशेंच जीवविशरक्तता दुबाव आयल्यार रगत तपासून घेवन रगतांत प्लेगाचे जीव आसात वा नात हाची खात्री करून घेवची पडटा.

**उपाय :** प्लेग ह्या रोगाचेर स्ट्रॅप्टोमायसीन, टॅट्रासायक्लीन आनी क्लोरोफॅनिकोल ही वखदां खुबूच गुणकारी आसात. रोग्याक हीं वखदां रोखडच्यारोखडीं दिल्यार रोग बरो जावंक शकता. प्लेग जाल्ल्या मनशाक हलकें जेवण, पुराय सुसेग आनी योग्य जतनाय घेवपाची गरज आसता. वळ आयल्यार त्या जाग्यार इक्थायॉल, बॅलाडोना आनी ग्लिसेरीन भरसून घडयो घालच्यो पडटात.

**जतनाय :** प्लेग जावचो न्हय देखून खबरदारी घेवपाखातीर प्रतिबंधात्मक लस तोंपून घेवप तेचपरी दोतोर, नर्स वा रोग्याच्या म्हऱ्यांत बसता उठ्ठा त्या लोकांनी लांब, पांयघोळ कपडे, पायांत मेय, मुखाच्छानां, हातांत लुवां घालचीं म्हण्टकच ताका हुलको चाबूंक पावनात. रोग्याकडेन संपर्क येता त्या मनशांनी दर दिसा ६ ग्रा. सल्पाडायझीनच्यो गुळ्यो तीन ते सात दिसां मेरेन घेवप. तशेंच दर दिसा १ ग्रा. स्ट्रॅप्टोमायसीनाचीं इंजेक्शनां पांच ते स दीस घेतल्यार चड बरें.

प्लेगाचो प्रसार चडसो हुंदीर – हुलूक – मनीस अशेतरेन जाता. पूण प्लेगाचो न्युमोनिया जाल्ल्या रोग्याचे थुकयेच्या थेंब्यांवरवीं ताचो प्रसार जावंक शकता.

प्लेग चड करून हुंदराच्या आंगार आशिल्ल्या हुलकांवरवीं मनशांक येता. देखून हुंदराचो नाश करप गरजेचें तशेंच हुलको मरच्यो देखून पांच टक्के डी. डी. टी. १०५ टक्के डिल्ड्रीन वा दोन टक्के अल्ड्रीन सारक्या कीटकनाशकांचो फवारो जमनीर तशेंच मेल्ल्या हुंदरांचेर मारचो पडटा.

प्लेग हो संवसारीक भौशीक नितळसाण नेमांनुसार अधिसुचनीय रोग आशिल्ल्या कारणान भलायकी खात्यांतल्या अधिकाऱ्याक रोखडेंच कळोवंक जाय. ते अधिकारी हो रोग पसरचो न्हय देखून आनीक खबरदारी घेतात.

गांठीच्या प्लेगापसून न्युमोनिया वा जिवविशरक्तता सारक्या प्लेगाच्या

रोगाचे प्रकार जावंक शकतात. तेचपरी कातीर आपसेस जावपाची शक्यताय आसता.

भागवत पुराणांत, घरांत हुंदीर मरून पडूंक लागल्यार घर सोडचें अशें बरयलां. हाचेवेल्यान प्लेगाची धाम त्या वेळार आशिल्ली अशें दिसता. संवसारीक इतिहासांत प्लेगाच्या रोगान कोटयांनी लोकांचे बळी घेतले हाचो उल्लेख मेळटा. प्लेगाचे धामीचो उल्लेख बायबलांत (पोरण्या करारांतल्या) बूक ऑफ सॅम्यूएल हांच्या पयल्या आनी सव्या प्रकरणांत मेळटा. इ. स. आदी दुसऱ्या वा तिसऱ्या शतमानांत सुश्रृत ह्या आयुर्वेदाचार्याक प्लेग आनी हुंदीर हांचो संबंद आसा हाची खबर आशिल्ली. इ.स. १००च्या सुमाराक इजिप्त, लिबिया आनी सिरिया ह्या देशांनी प्लेगाची धाम आशिल्ली. पयली रोमी सम्राट जस्टिनियन हाचे राजवटींत (५४२ वर्सा) ही धाम पातळिल्ली. १३४७ ते १३५० ह्या काळांत ही साथ सगळ्या युरोपांत पातळिल्ली. हो रोग जाल्ल्या मनशाचे कातीचेर काळसर खतां पडटात देखून त्या काळांत रोगाक काळें मरण (Black Death) म्हणून वळखताले.

१८१५त ही धाम भारतांतल्या गुजरात, काठेवाड आनी कच्छ वाठारांत पातळिल्ली. १८३६ त राजपुतान्यांतल्या पाली ह्या गांवांत ह्या रोगाचे खूबशे बळी पडले. आनी थंयसावन तो अजमेर आनी मारवाडांतय पावलो. १८४९च्या सुमाराक ती दक्षिण भारतांत पातळिल्ली. १८९४ वर्सा चीन देशांत प्लेगाची व्हड धाम आयली आनी हाँगकाँगच्या बंदरांतल्यान ती मुंबय आनी कलकत्ता ह्या बंदरांनी पावली आनी १८९९ ते १९१७ ह्या काळांत ती भारतभर पातळून ते धामींत लाखांनी लोकांक मरण आयलें.

हो रोग कसो जाता आनी ताचेर उपाय कितें हाची म्हायती पयलीं मेळना जाली. तेन्ना १३४७त बेर्नाबॉ विसकोंटी हाणें मिलनच्या ड्यूकान प्लेगाच्या रोग्याक चवदा दीस विलग्नवासांत (quarantine) दवरचें म्हणून हुकूमनामो काडलो. मागीर हें कालमान ल्हव - ल्हव वाडोवन चाळीस दिसांचेर हाडलें. १८९४ वर्सा ॲलेक्झांडर येरसीन आनी शीबासाबुरो कितासाटा हाणीं वेगवेगळ्या जाग्याचेर संशोधन करून ह्या रोगाच्या जंतूचो सोद लायलो. १८९८ वर्सा हुंदराच्यो हुलको आनी प्लेग हांचो संबंद आशिल्ल्याचो दुबाब फ्रॅंच डॉ. पावल सिमोइ हाणें दाखयलो. पूण दुसऱ्या इंडियन प्लेग कमिशनान १९०८ वर्सा प्लेग हो हुंदराच्या आंगार आशिल्ल्या आनी प्लेगाच्या जंतूंची बादा जाल्ल्या शेनोप्शीला केवपीस (Xenopsylla cheopis) ह्या हुलकांवरवीं जाता हें सिद्ध केलें. बाकीच्या जातींच्यो हुलको जरी प्लेग पातळावपाक शकतात तरी भारतांत शेनोप्शीला केवपुस हीच चड जापसालदार आसा. तेभायर शेनोप्शीला आस्तिया (astia) हीय हुलूक प्लेगाच्या जिवांचो प्रसार करूंक शकता.

- डॉ. पुर्णानंद अवदी

**प्वेर्त रिको :** 'कॉमनवेल्थ ऑफ प्वेर्त रिको'. कॅरिबियी दर्यातलो अमेरिकेच्या जोड संस्थानाचो एक स्वतंत्र प्रदेश. वॅस्ट इंडीस द्वीपसमुहांतल्या ह्या प्रदेशांत प्वेर्त रिको ह्या मुखेल जुंव्यासयत हेर तीन ल्हान जुंव्यांचो आस्पाव जाता. हाचे उत्तरेक अटलांटीक म्हासागर, दक्षीणेक कॅरिबियी दर्या, अस्तंतेक डोमिनिकन प्रजासत्ताक आनी हैती आनी उदेंतेक व्हर्जिन जुंवे आसात. क्रॅब जुंवो, कूलेब्रा आनी मोना हे तीन जुंवे मेळून प्वेर्त रिकोचें वट्ट क्षेत्रफळ ८,८९७ चौ. किमी. आसा. सॅन वॉन ही ह्या प्रदेशाची राजधानी.

भूंयरचणुकेचे नदरेन प्वेर्त रिकोचो ७५% भूंयभाग व्हड व्हड पर्वतांनी आनी दोंगरांनी आडायला. फकत दर्यादेगांतले प्रदेश आनी देगणांतले कांय भाग उथळ आसात. प्वेर्त रिकोंतल्यान उदेंत - अस्तंत गेल्ली पर्वतांची वळ प्वेर्त रिकोचे उत्तर आनी दक्षीण अशे दोन वांटे करता. ह्या प्रदेशाच्या उदेंत भागांतलो एल् यूंग्के हो पर्वत प्रसिद्ध आसून माउंट पूंता हें तातूंतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक. लॉईसा, बायामोन, आरेसीबा आनी ला प्लाता हांगाच्यो मुखेल न्हंयो आसात. तांचो लोट ॲटलांटीक म्हासागराक मेळटा. सूखदिणें हवामान हें हांगाचें एक खाशेलपण. उणें उंचायेच्या प्रदेशांनी उश्ण कटिबंधी आनी चड उंचायेच्या प्रदेशांनी उपोळा कटिबंधी अशें हवामान आसा. सबंद जुंव्यांक ईशान्येकडच्यान येवपी वेपारी वाऱ्याक लागून शितळसाण मेळटा. सादारणपणान जुलय म्हयन्यांत तापमान २७° सॅ. आसता आनी जानेवारींत ते २४° सॅ. इतलें आसता. हांगा वर्सुकी पावस सुमार १५५ सेंमी. आसता. ऑगस्ट ते ऑक्टोबर ह्या काळांत केन्नाकेन्नाय हरिकन मोडां जातात. ह्या जुंव्याचेर केन्नाकेन्ना भूंयकांपूय जातात. १९१९ त जाल्या भूंयकांपाक लागून अस्तंत प्वेर्त रिकोंतल्या कांय शारांचे खूब प्रमाणांत नुकसान जाल्लें. ह्या जुंव्यावयलीं मुळावीं रानां काबार जाल्लीं आसून आतां फकत माहोगनी, एबनी, लॉरेल, सॅटिनवुड माड आनी ताड ही वनस्पत उण्या प्रमाणांत सांपडटा. हांगा मोनजातीचेंय प्रमाण साप् उणें आसा.

**इतिहास :** १९ नोव्हेंबर १४९३त कोलंबस हाणें ह्या जुंव्याचो सोद लायलो. १५०८त पॉंसे द लेऑं हाणें लागीं आशिल्ल्या हिस्पॅनिओला जुंव्यावयल्या लोकांची राखण करचेखातीर हांगा वसणुकेची स्थापणूक केली. प्वेर्त रिको जुंव्याक इंडियन लोक 'बोरिक्केन' ह्या नांवान वळखताले. थळावे लोक आयजूय हेंच नांव वापरतात. कोलंबसान ह्या जुंव्याक 'सॅन वॉन बाडतीस्ता' अशें नांव दिलें. हांगा स्पेनी लोकांची वसणूक जाले उपरांत ह्या जुंव्याक 'सॅन वॉन बाडतीस्ता द प्वेर्त रिको' ह्या नांवान वळखुपाक लागले. 'प्वेर्त रिको' म्हळ्यार गिरेस्त बंदर. मुखार ह्या जुंव्याक प्वेर्ता रिको आनी राजधानीच्या शाराक 'सॅन वॉन' अशें म्हणपाक लागले.

प्वेर्त रिकोचेर स्पेनाचो तीन शेंकडे शेक चालतालो (१५९८-१८९८). १८६८ तले स्पेनी क्रांतीक लागून प्वेर्त रिकोंतूय उठाव जावन स्वतंत्र प्रजासत्ताकाची घोशणा केली. १८७६ च्या स्पेनी संविधानावरवीं प्वेर्त रिकोक स्पेनाच्या संसदेंत प्रतिनिधित्व मेळ्ळें. १८९८त अमेरिका - स्पेन हांचेमदीं जाल्ल्या झुजांत स्पेनाचेर हार पडली. दोगांय मदीं पॅरीस कबलात जावन, स्पेनाक प्वेर्त रिको; ग्वॉम आनी फिलिपिन्स हे प्रदेश अमेरिकेक मेळ्ळे. १९०० ल्या फॉरेकर कायद्याक लागून ह्या जुंव्याचे मुलकी शासनाची स्थापणूक जाली. अमेरिकी अध्यक्षान गव्हर्नरांची नेमणूक करून उच्च विधानमंडळ, कार्यकारी मंडळ आनी न्यायालय हांची स्थापणूक केली. पूण प्वेर्त रिकोक अमेरिकेचे नागरिकत्व दिलेना. अमेरिकेच्या सर्वोच्च न्यायालयान प्वेर्त रिको हो अमेरिकेचो भाग न्हय, तो स्वायत्त न्हय आनी स्वतंत्रूय न्हय अशें थारायलें. प्वेर्त रिकोक ते मानवलेना. ताणीं कॉरेकर कायद्याक खूब विरोध केलो. १९१७ तल्या जोन्स कायद्यावरवीं प्वेर्त रिकोक अमेरिकेचे नागरिकत्व मेळ्ळें.

'पॉप्युलर डेमॉक्रॅटिक पार्टी' ह्या पक्षान १९३८त जाल्ल्या विधिमंडळाचे

बूटस्ट्रॅप' आंखिल्ल्या अर्थीक नियोजन कार्यक्रमांक लागून हांगा खूब अर्थीक उदरगत जाली. १९४३त जीझस टी. पिन्थेरो ह्या पयल्या प्वेर्त रिकोची गव्हर्नर म्हणून नियुक्ती जाली. १९५२त प्वेर्त रिकोचें नवें संविधान ९२ प्रतिनिधींचे एका समितीन तयार केलें. १९५६ आनी १९६० त जाल्ल्या दोनूय वेंचणुकांनी पॉप्युलर डेमॉक्रॅटिक पार्टीक भोवमत मेळ्ळें. १९६८चे वेंचणुकेंत फाटलीं २८ वर्सां एकसारको जैतवंत जायत आशिल्ल्या पॉप्युलर डेमॉक्रॅटिक पक्षाक हारोवन 'न्यू प्रोग्रेसिव पार्टीन' जैत मेळयलें. तिचो मुखेली ल्वी फेर हो गव्हर्नर जालो. १९७८ संयुक्त राश्ट्रांच्या निर्वसाहतीकरण समितीन प्वेर्त रिकोच्या स्वातंत्र्याविशीं भासाभास जावन प्वेर्त रिकोक स्वयं-निर्णय आनी स्वातंत्र्य ह्या संबंदाचे हक्क आसात असो थाराव पास जालो.

प्वेर्त रिकोची शासनयंत्रणा अमेरिकेचे धर्तेचेर आसा. १९५२त आपणायल्ल्या संविधानांतल्यान कार्यकारी मंडळ, विधिमंडळ आनी न्यायसंस्था हांचे अधिकार स्पश्ट केल्ले आसात. गव्हर्नराक चार वर्सांखातीर वेंचून काडटात. विधिमंडळ हें दोन सदनी आसून ताचे सिनेट आनी प्रतिनिधीगृह अशे दोन भाग आसतात. सिनेटांत २७ वांगडी आनी प्रतिनिधी गृहांत ५१ वांगडी आसतात. प्वेर्त रिकोच्यो नागरी आनी वेपारी विधिसंहिता स्पेनाच्या, तर दंडसंहिता, वेवारसंहिता आनी भौशीकविधी हे अमेरिकेचे धर्तेचेर आदारिल्ले आसात. मुखेल न्यायाधीश आनी हेर न्यायाधिशांची नेमणूक करपाचे हक्क गव्हर्नराक आसता.

**अर्थीक स्थिती :** प्वेर्त रिकोची पारंपारीक अर्थवेवस्था मुखेलपणान शेतवडीचेरूच आदारिल्ली. शेतवड हो मुखेल उद्देग आशिल्लो आनी कॉफी हें निर्यातीचें मुखेल उत्पन्न आशिल्लें. विसाव्या शेंकड्यांत अमेरिकेन केल्ल्या आदाराक लागून हांगा खूब उदरगत जाली. चड करून साकर उद्देगाची खूब वाड जाल्ली. आजूय ऊंस हें प्वेर्त रिकोचें मुखेल आनी म्हत्वाचें पीक. हाचे सकयल कॉफी, तंबाकू, अनस, केळीं, नाल्ल हांचो आस्पाव जाता. हांगा खूब उण्या प्रमाणांत सैमीक संपत्ती आसा. तांबें, निकॅल आनी खनीज तेल हांचे सांठे कांय प्रमाणांत सांपडल्यात. लुगट आनी चामड्याच्यो वस्तू तयार करप हे हांगाचे मुखेल उद्देग. तशेंच विद्युत् आनी इलेक्ट्रॉनीक उपकरणां, प्लास्टीक, रसायनां खनीज तेल, प्रक्रिया केल्ले खाद्यपदार्थ हे म्हत्वाचे उत्पादीत पदार्थ आसात. प्वेर्त रिकोच्या ऑपरेशन बूटस्ट्रॅप ह्या अर्थीक कार्यक्रमांवरवीं साबार कारखाने उबारल्यात. 'प्वेर्त रिको फॅडरेशन ऑफ लेबर' ही देशांतली सगळ्यांत व्हड कामगार संघटना.

येरादारीच्या मळार हो देश फुडारिल्लो आसा. उद्योगिकीकरणाक लागून रस्त्यांच्या बांदकामाक खूब नेट आयला. ह्या जुव्याचेर १० बंदरां आसात. सॅन वॉन, पॉसे आनी माइआग्वेस हीं हांगाचीं मुखेल बंदरां. १८ अमेरिकी तारवां कंपन्याकडच्यान प्वेर्त रिको आनी अमेरिका हांचेमदी म्हालाची हाड व्हर जाता. हांगा हवाई येरादारीचीय वेवस्था आसा. सॅन वॉनांत आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. हांगा रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी हांचीय वेवस्था आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** प्वेर्त रिकोंतले वयल्या वर्गांतले लोक आपल्याक शुद्ध स्पेनी रगताचे समजतात. पूण तांचेमदीं फ्रॅंच कॉर्तिकी आनी इटालियी रगताचे उण्याअदीक प्रमाणांत भरसण जाल्ली आसा. तशें प्वेर्त रिको लोक हे पुराय समाजाचे नदरेंतल्यान गोरे, इंडियन, खाप्री हांची भरसण जाल्ल्या वंशांचे आसात. दर्यादेगांच्या वाठारांनी खापऱ्याचें प्रमाण चड आसा आनी दोंगरी वाठारांत इंडियन रगताचो प्रभाव चड जाणवता. वंशीक भेदभाव हांगा ना. हांगाचे चडशे लोक स्पेनी भास उलयतात. पूण वयल्या वर्गांतले लोक इंग्लीश आनी स्पेनी ह्यो दोनूय भासो उलयतात. प्वेर्त रिकांच्यो चालीरिती स्पेनी, पूण अमेरिकेच्या प्रभावाक लागून तांचेमदीं खूब बदल जाल्ले आसात. सॅन वॉन हे प्वेर्त रिकोचें राजधानी शार आसून तें एक उद्देग, वेपार, प्रशासन, शिक्षण आनी सोबीत पर्यटन केंद्र.

- कों. वि. सं. मं.

**फ :** वर्णमाळेंतलें बाविसावें व्यंजन आनी पांचव्या वर्गांतलो दुसरो वर्ण. हाच्यो चार अवस्था आसात. पयली अशोकाच्या गिरनारच्या शिलालेखांत, दुसरी मंदसोरच्या लेखांत (इ. स. ५३२), तिसरी पाली गांवाच्या दानपत्रांत (इ. स. ४७७ - ७८) आनी चवथी मध्य प्रदेशांतल्या ललितपूर गांवालागीं मेळिल्ल्या सीयडोनी लेखांत (इ. स. ९०३) मेळटा.

फच्या रुपाचो विकासक्रम असो -



कामधेनू तंत्रांत फकाराचें वर्णन केलां तें अशें -

फकारं शृणु चार्वङगी रक्तविद्युल्लतोपमम् ।
चतुर्वर्गप्रदं वर्णं पञ्चदेवमयं सदा॥
पञ्चप्राणमयं वर्णं सदा त्रिगुणसंयुतम्।
आत्मादितत्त्वसंयुक्तं त्रिबिन्दुसहितं सदा॥

**अर्थ** – हे सुंदरी, फ हो रक्तवर्ण विद्युल्लतेभाशेन, चतुर्वर्गप्रद, पंचदेवमय, पंचप्राणमय त्रिगुणयुक्त, आत्मदितत्त्वसंयुक्त आनी तीन बिंदूंनी युक्त आसा.

फकाराचो वर्ण प्रलयकालीन आसा. तो चार भुजांचो आसून ताच्या आंगार तरारतरांचे अलंकार आसात. ताची जीब लवलवत आसून तो भक्तांक अभय दिवपी, अशें तांचे ध्यान, वर्णोध्दारतंत्रांत वर्णिला.

ओंठ हें ताचें उच्चारणस्थान.

- को. वि. सं. मं.

**फकीर :** मुसलमान साधू आनी भिक्षा मागपी. फकीर हो अरबी शब्द आसून ताचो अर्थ गरीब असो जाता. कुराणांत म्हळां, 'तुम सब हो फुकरा अल्लाह के; सिर्फ अल्लाह ही गनी है' म्हळ्यार अल्ला हो एकलोच गिरेस्त, बाकीचे तुमी सगळे फकीर. महंमद पैगंबरान म्हळां, 'फक्र' म्हळ्यार गरिबीचो म्हाका अभिमान आसा. ताका लागून मुसलमानी साहित्यांत आनी संस्कृतायेंत फकीर ह्या शब्दाक खूब म्हत्व आसा. सुफी संत आपणाक फकीर म्हणून घेवप व्हडपणाचें मानतात.

भारतांत सगळ्याक मेळपी हे फकीर भिक्षुक आसतात. ते कांय चमत्कारूय करून दाखयतात. सगळे मुसलमान फकीर आपली परंपरा अबूबक्र वा अली हांचेपसून मानतात. बाशर आनी बेशर अशे तांचे दोन मुखेल वर्ग आसात. बाशर हे लग्न जातात आनी इस्लामी नेम पाळटात. बेशर हे बिनधास्त वागतात. ते कसल्योच चालीरिती पाळिनात. तांकां घरदार वा कुटूंब नासता. ते सोरो पियेतात पूण प्रार्थना करिनात. तांकां एक गुरू आसता.

फकिरांचे कांय पोटभेद आसात ते अशे -

**मदारी** - हे फकीर चडशे गुजरात आनी राजस्थानांत आसात. ते आपणाक मदारशाहाचे वंशज मानतात आनी ताका भजतात. कांय मदारी फकीर मांकडां आनी वांस्वेलां नाचयतात, सोरपान दंश केल्यार, त्या घायाचेर मंत्र घालतात, पांयांचेर आनी फाटीचेर चाबकां मारून वा तोंकाच्या शस्त्रान घाय करून हे लोक भीक मागतात.

**कलंदर** - करबलाच्या झुजांत आपूण इमाम हुसेनाचे वार्ताहर आशिल्ल्याचें ते सांगतात. मोहरमच्या म्हयन्यांत सातव्या दिसासावन धाव्या दिसामेरेन हांचेमदलो एक मनीस पाचवें वस्त्र न्हेसता आनी हातांत तरसाद घेवन एका ताजियासावन दुसऱ्या ताजियामेरेन धांवन वता आनी आपल्या परंपरागत वार्ताहराची याद करून दिता.

**रफई** - हांकां गुरुजवाले अशेंय म्हण्टात. हांच्या उजव्या हातांत गुरुज आसात. भिक्षा मेळपाक कळाव जाल्यार हे फकीर हातांतलें गुरुज, हातचलाखेन आपल्या पेल्यांत वा दोळ्यांत घालतात. पूण तांकां कांयच दूख जायना.

**जलाली** - हे जलालुद्दीनाचे अनुयायी आसात. ह्या पंथांत प्रवेश घेवपी मनशाक आपल्या आंगांवयले सगळे केंस काडचे पडटात. तांकां कपडे लेगीत वापरपाक मेळनात. उपरांत तांच्या उजव्या खांद्याचेर दाग दिवन तांकां पंथाची दिक्षा दितात. हे भिक्षेच्या वेळार आपणाच्या आंगार चाबकाचे फटके मारून घेतात. हे भांग पियेतात आनी सोरोप-विंचू लेगीत खातात.

**बेनवा** - हे आपले उत्पत्तीचो संबंद ख्वाजा हसन वमरीकडेन लायतात. हे उंच तोपी घालतात.

**मेवाती** - हे मूळ मदारींचे शाखेचे आसात. हातांत कांकणा, कानांत कानांतलीं घालून लांब केंस वाडयतात. खाड-मिश्योय दवरतात. बायलांचो भेस करून ते आपणाक हुसेनाची बायल मानतात.

**नक्षबंदिया** - हे ख्वाजा मीर महंमदाचे शिश्य. वृत्तीन थंड आनी सद्वर्तनी आसपी हे फकीर रातचे हातांत मशाल घेवन भीक मागतात. भुरग्यांनी भिक्षा घाल्यार तांच्या कपलाक मशालीची काजळी लायतात.

**दरवेशी** - हे संन्यस्तवृत्तीचे आसतात.

**हुसेनी ब्राह्मण** - हे फकीर मुसलमान न्हय पूण ते मुसलमानांच्यो कांय चालीरिती पाळटात. अथर्ववेदाकूय ते मानतात. पैगंबराचे धुवेचो पूत हुसेन हाच्या नांवावयल्यान तांकां हुसेनी हें नांव मेळ्ळें. हाचें मुखेल ठिकाण अजमेर आसलें तरी अहमदाबाद, बडोदें शारांनी तांची वस्ती आसा. बेशर फकिरांमदीं हांचो आस्पाव जाता. हे रमजान पाळटात. गाय सोडून हेर जनावरांचें ते चोरून मास खातात. हिंदू लोकांभाशेनूच हांच्या भुरग्यांचीं नांवां आसतात. हे सुंता करिनात. बशिल्ले अवस्थेंत हे लोक मडीं पुरतात.

**मुसासोहांग** - गुजरातेंत रावपी हे फकीर सवायशीण बायलांभाशेन भेस करतात. नाकांत पिली घालतात. पूण खाड दवरतात. हे मुसा नांवाच्या पिराक भजतात. हे फकीर सुन्नी पंथाचे आसून लग्न जायनात.

**रसूलशाही** - हांकां मस्तान अशेंय म्हण्टात. हे लोक भेंडाक ल्हानशें वस्त्र गुठलायतात, पैरण घालतात आनी भीक मागपाखातीर लाकडी कटोरो बाळीगतात. हेय फकीर सुन्नी पंथाचे आसून लग्न जायनात.

फकिराकडेन एक जपमाळ आसता. तिका ९९ मणी आसतात. गांवांतल्या थड्याचेर पाचवो कपडो घालून ताची राखण करतात.

- कों. वि. सं. मं.

## फक्रुद्दीन अली अहमद :

(जल्म : १३ मे १९०५, दिल्ली ; मरण : ११ फेब्रुवारी १९७७ दिल्ली).



भारताचो पांचवो राष्ट्रपती. ताच्या बापायचें नांव कर्नल झेड्. ए. अहमद आनी आवयचें नांव रुकय्या सुलताना. तांचें घराणें मूळ आसामचें. मुळावें शिकप घरांत जालें आनी १९२१ वर्सा पंजाब विद्यापिठांतल्यान तो मॅट्रीक पास जालो. उपरांत दिल्लीच्या स्टीफन म्हाविद्यालयांतल्यान उंचेले शिक्षण घेतकच तो आय्. सी. एस. परिक्षेखातीर कॅंतरिन म्हाविद्यालयांतल्यान बी.ए. पास जालो. पूण गालगुटांच्या दुयेंसाक लागून ताका आय. सी. एस. परिक्षेक बसपाक मेळ्ळेंना. तेखातीर तो १९२८त बार ॲट लॉ जालो.

इंग्लंडाक आसतना तो हॉकी संघाचो अध्यक्ष आशिल्लो. गोल्फ, टॅनीस, हॉकी ह्या खेळांची ताका भुरगेपणासावन आवड आशिल्ली. खेळाच्या निमतान ताणें युरोपभर भोंवडी केली.

भारतांत परत येतकच ताणें सर महम्मद शफी ह्या नामनेच्या वकिलाच्या हाताखाल पंजाब उच्च न्यायलयांत वकिलीक आरंभ केलो. उपरांत आपणाचे जमनीविशींचे दावे चलोवपाखातीर तो गुवाहाटीक गेलो आनी थंयच स्थायीक जालो.

१९३१त म्हळ्यार पिरायेच्या २६ व्या वर्सा तो कॉंग्रेस पक्षाचो वांगडी जालो. उपरांत १९३५ वर्सा आसामाच्या विधिमंडळाचेर वेंचून येतकच १९३८-३९ वर्सा अर्थ आनी महसूल मंत्री जालो. १९४२ वर्सा ताणें छाडो भारत आंदोलनांत वांटो घेतलो आनी स्वातंत्र्य चळवळींत काम करपाक लागलो. ताका दोन फावटीं बंदखण भोगची पडली.

पिरायेच्या चाळिसाव्या वर्सा १९४५ त तो अबिदा बेगम हिचेवांगडा लग्न जालो. ती एक बऱ्यांतली बॅडमिंटन खेळगडी आनी उत्तर प्रदेशांतल्या सुलतान हैदर 'जोष' ह्या उर्दू साहित्यिकाची धूव. तांकां समिना, पर्वेझ आनी बदर हीं तीन भुरगीं.

१९४५-४६ ह्या काळांत तो कॉंग्रेस कार्यकारिणीचो वांगडी आशिल्लो. १९४६ ते १९५२ ह्या काळांत ताणें आसाम सरकाराचो ॲडवोकेट जनरल म्हणून काम केलें. फुडें १९५४-५७ ह्या काळांत तो राज्यसभेचेर वेंचून आयलो. १९५५ वर्सा ताणें सोविएत रशियेक गेल्ल्या भारतीय कायदेतज्ञांच्या शिश्टमंडळाचें फुडारपण केलें. १९५७ त तो एकवटीत राश्ट्रांत गेल्ल्या भारतीय शिश्टमंडळाचो वांगडी आशिल्लो. त्याच वर्सा तो आसाम विधानसभेचेर वेंचून आयलो आनी १९६६ वर्सामेरेन अर्थ, कायदो आनी समाजकल्याण ह्या खात्यांचें मंत्रीपद ताणें सांबाळ्ळें. १९६६ ते १९७४ ह्या काळांत केंद्रीय मंत्री ह्या नात्यान ताणें वीज आनी शिंपणावळ शिक्षण,उद्देगीक उदरगत, शेती अशीं जायतीं खातीं सांबाळ्ळीं.

१९६९त राबात (मोरोक्को) इस्लामी प्रतिशदेक तो भारताचो प्रतिनिधी म्हणून हजर रावलो.

१९७४ वसाचे राश्ट्रपतीपदाचे वेंचणुकेंत इंदिरा गांधीच्या फुडारपणाखाल कॉंग्रेसीचेवतीन फक्रुद्दीन भोवमतान वेंचून आयलो. २४ ऑगस्ट १९७४ ह्या दिसा ताणें राश्ट्रपतिपदाचीं सुत्रां हातांत घेतलीं. राश्ट्रपती आसतना ताणें इंग्लंड, जर्मनी, बल्गेरिया, हंगेरी, फ्रांस, इटली, इजिप्त, सोविएत रशिया, श्रीलंका, इराण ह्या देशांक भेट दिली. ताणें खूबशा राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय समित्यांचेर काम केलें.

मलेशियाच्या दौऱ्यार आसतना राबाताक अकस्मात ताची प्रकृती इबाडिल्ल्यान ताका दिल्लीक हाडलो आनी काळजाच्या आताकात ताका दिल्लीक मरण आयलें. इंदिरा गांधीच्या फुडारपणाखाल आशिल्ले कॉंग्रेसीकडेन तो एकनिश्ठ रावलो.

- कों. वि. सं. मं.

## फटे, नामदेव शांतू :

(जल्म २५ फेब्रुवारी १९३२ मर्वळे. सोलापूर).

सुटकेझुजारी. तो जनसंघाचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा गोंयचे शिमेर सत्याग्रहांत ताणें वाटो घेतिल्लो. १२ ऑगस्ट १९८७ दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## फडकी :

(Alum) एक रंग नाशिल्लो वा धवो स्फटीक आशिल्लो घट्ट पदार्थ. फडकी म्हळ्यार दोन धातू आशिल्लें 'सल्फेट' (double metal Sulphate). फडकेचें सूत्र $XY(SO_4)_2\,12\,H_2O$ हातूंत X म्हळ्यार एक संयुजी धातूचो 'कॅटायन' (Cation) आनी Y म्ळ्यार त्रिसंयुजी धातूचो 'कॅटायन' फडकेंत X म्हळ्यार सोडियम, पॉटेशियम, आमोनिया, सिझियम, रुपें, रुबिडियम, थॅलियम, हायड्रॅझीन, हायड्रॉक्सिल अमायन, कांय कार्बनी अमायनां वा लिथियम हे सारके एक संयुजी कॅटायन आनी Y म्हळ्यार अॅल्युमिनियम, लोखण, क्रोमियम, मॅंगनीझ, कोबाल्ट, गॅलियम, टिटॅनियम, वॅनेडियम, इरिडियम, ऱ्होडियम, इंडियम हे त्रिसंयुजी कॅटायन आसूं येतात. पोटॅश फडकेचें सूत्र $KAL(SO_4)$. $12\,H_2O$ अशें बरयतात.

३००० ते ४००० वर्सांसावन मनशाक फडकी खबर आसुंये अशे पुरावे मेळटात. पुर्विल्ल्या ईजिप्तांत ओअॅसीसचे भोंवतणीं सैमीक स्वरुपांतली फडकी मेळटाली. फडकी निवळ करपाचें गिन्यान थंयच्या लोकांक खबर आशिल्लें. भारतांतल्या लोकांक पुर्विल्ल्या काळासावन फडकेचो उपेग कपडे रंगोवपाक जाता हें खबर आशिल्लें. ते कपड्याचेर रंग घट्ट बसोवपाखातीर फडकेचो उपेग करताले. अशे उल्लेख पुर्विल्ल्या संस्कृत ग्रंथांनी मेळटात. वराहमिहिर हाणें सव्या शेंकड्यांत, फडकी कपड्यांचेर रंग घट्ट करपाक उपकारता असो उल्लेख केला. भारतांत पयलीं चीनांतल्यान फडकी हाडटाले तशेंच सौराश्ट्रांतूय ती तयार करताले. १४६० च्या अदमासाक जॉन डी कास्ट्रो हाणें कॉन्स्टँटिनोपलांत फडकी कशी तयार करतात हे विशीं खबर काडून तेप्रमाण इटलींत टोल्फा नगरांत अॅलुनायटासावन फडकी तयार करपाक सुरवात केली. अजुनूय हीच पद्दत वापरतात. १६०० वर्साच्या अदमासाक इंग्लंडांत, एका फुसफुशीत फातरासावन फडकी तयार करपाक लागले. १८४५ वर्सा ती अॅल्युमिनियम आशिल्लो एके तरेचो फातर वापरून तयार करपाक लागले. उपरांत तरेतरेच्यो फडक्यो तयार जावंक लागल्यो. भारतांत बंगालांतली 'बंगाल केमिकल अॅण्ड फार्मास्युटिकल वर्क्स ऑफ इंडिया' दिसाक सुमार पंदरा टन फडकी तयार करता. ही फडकी मध्यप्रदेशांतल्यान हाडिल्ल्या बॉक्सायट ह्या खनिजापसून तयार करतात.

उत्पादन १) अॅल्युनायट - अॅल्युनायट आनी पातळ सल्फ्युरीक अॅसीड तापोवन गाळटात आनी अॅल्युनायट घोळिल्ल्या नितळ सल्फ्युरीक अॅसिडांत पोटॅशियम सल्फेट भरसून आटयतात. उपरांत फडकेचे स्फटीक (Crystals) तयार जातात.

२) बॉक्सायटापसून - बॉक्सायट बारीक पिठो करून सल्फ्युरीक अॅसिडांत घोळयतात आनी तातूंत पोटॅशियम सल्फेट भरसून आटयतकच फडकेचे स्फटीक तयार जातात.

३) पायरायट्स शेलापसून - पायरायट शेलाक (Pirite Shale) अॅलम शेल अशेंय म्हण्टात. पायरायट शेल हवेंत तापयतकच फॅर्रस सल्फेट (Ferrous Sulphate) आनी अॅल्युमिनियम सल्फेट तयार जातात. हातूंतलें फॅर्रस सल्फेट काडून तातूंत पोटॅशियम सल्फेट घालून आटयतकच फडकेचे स्फटीक तयार जातात.

**फडकेचे गुणधर्म** - पोटॅश फडकी रूचीन गोडशी, आडूक आनी आंबट आसता. तिका रंग आनी वास नासता. ती घट्ट, धवे कवचेभाशेन, अश्टकोनी घनाकार स्फटिकाभाशेन वा धवे पिठो कशी आसता. सगळ्या फडक्यांभितर ही पोटेश फडकी चड म्हत्वाची . ही उदकांत विरगळटा आनी तें उदक आम्लबी acidic जाता. तापयतकच उदक आटून फडकी फुटता. फुलयल्ली फडकी उदकांत सवकासायेन विरगळटा. ही फडकी आल्कोलांत विरघळना. फडकी घालतकच प्रथिनांचे (Proteins) गुठले जातात तशेंच फडकेक लागून उदकांत आशिल्ले बारीक बारीक कण - एक जावन तांचेय गुठले जातात.

**उपेग** - पॉटॅश फडकी चड करून उदक निवळावंक वापरतात. कपड्याचेर रंग घट्ट धरपाखातीर, चामडें कमोवपाखातीर, फस्कां तशेंच कागद उद्देगांत फडकी वापरतात. घाय पेखपाखातीर तशेंच हड्ड्यांचे दुखापतीचेर फडकी उदकांत घोळोवन घोंट घेतात. तेच भाशेन रसायनां, वखदां, शाबू, उजो पालोवपाची रसायनां तयार करप, हातूंत वापरतात. आमोनियम फडकेचो उपेग पोटॅश फडकेभाशेनूच करतात. सोडियम फडकी बेकिंग - पावडरांत वापरतात.

- प्रा. प्रेमानंद गो. फडते

## फडके, नारायण सीताराम :

(जल्म : ४ ऑगस्ट १८९४, कर्जत; मरण : २२ ऑक्टोबर १९७८, पुणें).

नामनेचो मराठी कादंबरीकार, कथाकार, लघुनिबंधाचो आद्य प्रवर्तक आनी साहित्य समक्षिक. ताचो बापूय वेदान्ती आशिल्लो आनी ताणें अभ्यासपूर्ण असो 'वेदानतनिदर्शन' हो ग्रंथ बरयल्लो. नारायणान आपलें मुळावें शिक्षण नासिक, सोलापूर आनी पुण्याक पुराय केलें. माध्यमीक शिक्षण पुण्याच्या नूतन मराठी विद्यालयांत जाल्यार म्हाविद्यालयीन शिक्षण फर्ग्यूसन कॉलेजींत घेतलें. १९१७ त तो एम. ए. जालो. १९१६ त ताका न्यू पूना कॉलेजींत प्राध्यापक म्हणून काम मेळ्ळें. मदीं ताणें कांय तेंप 'केसरी' आनी 'मराठा' दिसाळ्यांखातीर उपसंपादक म्हणून काम

केलें. उपरांत तो दिल्ली, सिंध, हैदराबाद, नागपूर, कोल्हापूरच्या म्हाविद्यालयांनी तत्त्वगिन्यान, तर्कशास्त्र आनी मानसशास्त्र ह्या विशयांचो प्राध्यापक जालो. उपरांत १९४९त कोल्हापूरचे राजाराम कॉलेजींतल्यान तो निवृत्त जालो.

ताणें 'रत्नाकर' हें मासिक १९२५ आनी 'झंकार' हें सातोळें १९४० सुरू केल्लें. १९५१त ताणें 'अंजली प्रकाशन हे संस्थेची स्थापना केली.

'मेणाचा ठसा' ही ताची पयली कथा केरळ कोकिळ ह्या मासिकांत उजवाडाक आयली (१९१२). 'अल्ला हो अकबर' ही ताची पयली कादंबरी. कुलाक्याची दांडी १९२५, जादूगार (१९२८), दौलत (१९२९), अटकेपार (१९३१), निरंजन (१९३२) ह्या ताच्या सुर्वेच्या कांय कादंबऱ्यांमदीं प्रणयरम्यताय, सोबीत व्यक्ति चित्रण, अचूक संवाद, आनी मवाळ भाशाशैली आदींचो आस्पाव आसा. उपरांतच्या उद्धार १९३५, प्रवासी (१९३७), अखेरचे बंड ह्या म्हत्वाच्या कादंबऱ्यांतल्यान ताणें गंभीर विशय हाताळ्ळे. बेचाळीसचे पत्रीसरकार (झंझावात १९४८) काश्मीरचे स्वातंत्र्योत्तर राजकारण (जेहलम १९४८), गोवा-मुक्तीचे आंदोलन (उजाडलं ! पण सूर्य कुठं आहे? १९५०) ह्यो कादंबऱ्यो ताणें महाराष्ट्रांतल्या राजकी आनी समाजीक घडामोडीचे फाटभुंयेचेर बरयल्यात. ऋतुसंहार १९५८, कुहू! कुहू! (१९६०), ही का कल्पद्रमांची फळ? १९६१, एक होता युवराज (१९६४) ह्यो ताच्यो कांय उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो आसात. हेमू भुपाली ही ताची निमणी कादंबरी. ताच्या कांय कांदंबऱ्यांचे आनी कथांचे इंग्लीश आनी हेर भाशांनी अणकार जाल्यात. कलंक शोभा (१९३३) ताणें हे कादंबरेवयल्यान मराठी चलचित्रूय काडलां. ताच्या कथांचे पंचविसांवयर झेले उजवाडाक आयल्यात ताच्यो कांय प्रतिनिधीक कथा 'बावनकशी' (१९६२) ह्या नांवान संग्रहीत केल्यात.

मराठींतल्या लघुनिबंधाचो ताका आद्यप्रवर्तक मानतात. 'गुजगोष्टी' (१९३३), 'नव्या गुजगोष्टी'(१९३७), धुम्रवलये (१९४१) हे ताचे म्हत्वाचे लघुनिबंध. ताचे समिक्षात्मक लेखूय भरपूर आसात. क्लेटन हेमिल्टन हाच्या द आर्ट ऑफ फिक्शन ह्या ग्रंथाच्या प्रभावाखाल बरयल्ल्या प्रतिभा - साधनांत (१९३१), तशेंच लघुकथालेखन : मंत्र आनी तंत्र १९५२ ह्या ताच्या ग्रंथांत कथेच्या संदर्भांतले ताचे तंत्रीक नदरेची जाणविकाय स्पश्टपणान दिश्टी पडटा. 'साहित्य आणि संसार' १९३७, 'वेचलेले मोती' (१९४१), 'प्रतिभाविलास' (१९६६) आदीं म्हत्वाचीं पुस्तकां ताणें बरयल्यांत. उलोवप, संगीत आनी क्रिकेट हीं ताचीं साहित्याभायर हेर आवडीचीं क्षेत्रां 'असे वक्ते अशी व्याख्याने (१९६०) 'नादलुब्धांच्या आठवणी' (१९६२), 'अशा झुंजा अशे झुंजार' (१९६७) पुस्तकांतल्यान ताणें वेगवेगळ्या मळावयल्यो आपल्यो यादी उक्तायल्यात. बाबुराव पेंटरः व्यक्ती आणि कला, किर्लोस्करः व्यक्ति आणि कला (१९६४), नाट्याचार्य खाडिलकर (१९७२) आणि खाडिलकरांच्या नाट्यकृती (१९४९) हे ताणें बरयल्ले उल्लेख करपासारके चरित्रग्रंथ. हांचेभायर विद्यार्थ्यांखातीर ताणें दादाभाई नवरोजी, टॅरन्स मॅक्स्विनी, डी. व्हॅलेरा, म. गांधी आदींचीं चरित्रांय ताणें बरयल्यांत. ताणें युगांतर (१९३१) संजीवन (१९३४), काळेगोरे (१९४५), जानकी (१९५०) आदी कांय नाटकां बरयल्यांत पूण ह्या मळार ताका व्हडलेशे जैत मेळ्ळें ना.

ताच्या आपजिणेत्मक लिखाणांत 'माझ्या साहित्यसेवेतील स्मृती' (१९४३), माझं जीवन : एक कादंबरी (१९६४) हांचो आस्पाव जाता. 'मी व माझ्या कादंबऱ्या' आणि मराठी लघुनिबंदाचा जनक कोण' १९६७ ह्या पुस्तकांतल्यान ताणें आपणाल्या कादंबऱ्यांची आनी लघुनिबंदांची विस्तारान भासाभास केल्या.

हाचेभायर तर्कशास्त्र, मानसशास्त्र, संततिनियमन आदी विशयांचेर ताणें इंग्लीशींतल्यान आनी मराठींतल्यान पुस्तकां बरयल्यात. ताची वट्ट ग्रंथसंख्या १८९ इतली आसा. रत्नागिरीक १९४०त भरिल्ल्या महाराष्ट्र साहित्यसंमेलनाच्या अध्यक्षपदाचो मान ताका फावो जाल्लो. १९६२ त भारत सरकारान ताका 'पद्मभूषण' किताब दिवन फोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

## फडके, सुधीर : (जल्म : २५ जुलय १९१९ कोल्हापूर).

नामनेचो मराठी भावगीतगायक आनी चित्रपट क्षेत्रांतलो निर्माता, संगीत दिग्दर्शक आनी पार्श्वगायक. ताच्या बापायचें नांव विनायकराव आनी आवयचें नांव सरस्वती. ताणें कोल्हापूर आनी मुंबय शिक्षण घेतलें. भुरगेपणांतूच ताका संगितांतले पयले धडे ग्वाल्हेर घराण्याचो पंडित वामनराव पाध्ये हाणें दिले. कोल्हापूराक आसतना ताका घरचे परिस्थितीक लागून पिरायेच्या चवदाव्या वर्सा सावनूच शिकवण्यो आनी संगीत शिक्षकाचें काम करचें पडलें (१९३३-३६). ताचे मुळचें नांव राम. पूण एका कार्यक्रमांत (१९३४) ताच्या नांवाची घोशणा सुधीर फडके अशी केली आनी फुडें तेंच नांव चालंत उरलें.

ताच्या गायनाचो पयलो जाहीर कार्यक्रम १९३१त मिरजे जालो. मुंबयचे एके शास्त्रीय गायन सर्तींत ताका पयल्या क्रमांकाचे भांगरापदक मेळ्ळें (१९३१-३२). १९३७ त ताचो मुंबय आकाशवाणीचेर पयलो कार्यक्रम सादर जालो. १९३९-४१ ह्या काळांत ताणें खानदेस, विदर्भ, मध्यप्रदेश, उत्तर प्रदेश, राजस्थान, पंजाब, बंगाल, बिहार अशी भारतभर भोंवडी केली. फुडें कलकत्त्याक ताका एके ग्रामोफोन कंपनींत सहाय्यक संगीत दिग्दर्शकाचें काम मेळ्ळें पूण भावाचे आनी आपले भलायकेक लागून ताका कोल्हापूराक परतें येवचें पडलें.

कांय दीस तो राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचो प्रचारक आशिल्लो. हीझ मास्टर्स वॉयस (मुंबय) ह्या नामनेच्या ध्वनिमुद्रिका संस्थेकडेन ताचो १९४१-४५ ह्या काळांत गायक आनी संगीत दिग्दर्शक म्हणून संबंद आयलो. दादरा आनी नगर हवेलीच्या सुटकेझुजांत ताणें वांटो घेतिल्लो (१९५४) नामनेची पार्श्वगायिका ललिता देऊळगांवकर हिचेकडेन ताचें लग्न जालें. तांकां एक चलो आसा. १९४५त स्नेहल भाटकर हाच्या आदरान ताणें 'रुक्मिणी स्वयंवर' ह्या चलचित्राक पयले खेपे संगीत दिग्दर्शन दिल्लें. 'गोकूल' (हिंदी) हें ताणें एकल्यान संगीत दिग्दर्शीत केल्लें प्रभात फिल्मकंपनीचें पयलें चलचित्र. उपरांत ताणें सुमार १०० मराठी – हिंदी चलचित्रांक संगीत दिग्दर्शन केलें तातूंत आगेबढो (१९४६), गोकूल (१९४६), अपराधी (हिंदी मराठी १९४८), सीता स्वयंवर (१९४८), मायाबाजार (हिंदी – मराठी १९४९), मुरलीवाला १९५२, पहली तारीख (हिंदी – १९५५, प्यार की जीत १९६१), भाभी की चुडियाँ (१९६२) हीं हिंदी चलचित्रां आनी जिवाचा सखा, वंदेमात्रम (१९४८), पुढचं पाऊल (१९५०), जशास तसे (१९५१), लाखाची गोष्ट (१९५२), वहिनीच्या बांगड्या (१९५३), सौभाग्य (१९५३), पोस्टातली मुलगी (१९५४), ऊनपाऊस (१९५४), मी तुळस तुझ्या

अंगणी (१९५५), गंगेत घोड न्हालं (१९५५) माझे घर माझी माणसं (१९५६), रत्नघर (१९५६), जगाच्या पाठीवर (१९६०), उमज घडेल तर (१९६०), प्रपंच (१९६१), सुवासिनी (१९६१), ते माझं घर (१९६२), हा माझा मार्ग एकला (१९६३), एकटी (१९६८), आम्ही जातो आमुच्या गावा (१९६९), मुंबईचा जावई (१९७०), हे मराठी चित्रपट उल्लेख करपासारके आसात.

ताका तीन फावटीं चलचित्र संगिताखातीर फाळके इनाम मेळ्ळें. हाचेभायर बरो संगीतदिग्ददर्शक - प्रपंच (१९६२-६३), बरो पार्श्वगायक - संथ वाहते कृष्णामाई (१९६७-६८), हा माझा मार्ग एकला (१९६३-६४), धाकटी बहिण (१९७०-७१) आनी कार्तिकी (१९७४-७५) म्हणून ताका राज्य इनामांय फावो जाल्यात. 'मुंबईचा जावई' ह्या चित्रपटाखातीर तशेंच 'भाभी की चुडियाँ' ह्या चित्रपटांतल्या 'ज्योति कलश छलके' ह्या पदाचो संगीत दिग्ददर्शक म्हणून मुंबयच्या सूर सिंगार संसदेचे स्वामी हरिदास इनाम मेळ्ळें. 'हा माझा मार्ग एकला' ह्या ताणें निर्मिल्ल्या मराठी चलचित्राक बरो प्रदेशीक चलचित्र म्हणून राश्ट्रपतीपदक मेळ्ळें. तशेंच महाराष्ट्र शासनानूय ह्या चलचित्राक दुसऱ्या क्रमांकाचें इनाम दिवन ताचो भोवमान केलो. १९८०त मराठी चित्रपट म्हामंडळाचो तो अध्यक्ष जालो.

ग. दि. माडगूळकर हाच्या गीतरामयणांतल्या शप्पन पदांक बेस बऱ्यो चाली दिवन तीं ताणें स्वता गायल्यांत. १९५९ सावन सुधीर फडके हाच्या गीतरामायणाचे शंबरांवयर कार्यक्रम भारतांत तशेंच परदेशांत जाल्यात. १९८० वर्सा पुण्याक ताच्या गीतरामायणाचो रुप्या उत्सव मनयलो. शब्द आनी सूर हांचो एक आगळोच मेळ ताचे गीतरामायण आयकतना जाणवता. शास्त्रोक्त आनी लोकसंगिताचो जाय थंय वापर करून मवाळ आनी गोड गावप हीं ताचे संगीत रचनेचीं आनी गायनाचीं खाशेलपणां.

- कों. वि. सं. मं.

**फतेपूर सिक्री** : उत्तर प्रदेशांतलें इतिहासीक नामनेचें थळ. हें थळ आग्राचे नैऋत्येक सुमार ३७ किमी. अंतराचेर वसलां. आग्रा राजमार्गावयलें तशेंच अस्तंत रेल्वेच्या रूंदमापी रेल्वेमार्गावयलें हें एक स्थानक. १५६९-७० त अकबरान सिक्री ह्या खेड्यालागीं नवी राजधानी वसयली. आपल्या गुजरातावयल्या जैता उपरांत ताणें ताका फतेपूर सिक्री हें नांव दिलें.

अकबरान ह्या सड्यावयल्या गावांत आपली राजधानी किद्याक हाडली तेविशीं कथा आसा ती अशी : अकबराक जायतीं भुरगीं जालीं पूण तीं ल्हान आसतनाच मेलीं. निमाणें ताणें शेख संलीम चिस्ती ह्या साधवाची कृपा मागली. ताचे कृपेन ताका चलो जालो देखून ताणें ताचें नांव सलीम अशें दवरलें. हाची फुडें जहांगीर म्हणून नामना जाली. फुडें शेख सलीमाची वसणूक आशिल्ल्या सिक्री ह्या गांवांत ताणें आग्राक आशिल्ली आपली राजधानी व्हेली. थंय ताणें राजकीय प्रशासकीय नदरेन म्हत्वाच्यो आनी धर्मीक अश्यो जायत्यो वास्तू बांदल्यो. पूण फुडें उदकाचो उणाव आनी उणें संरक्षण हेखातीर १५८५त राजधानी परत आग्राक हालयली.

फतेपूर सिक्रीची वट्ट रचना आयताकार आसून फातराचे सैमीक रचनेप्रमाण तटाचें बांदकाम केल्लें आसा. ताच्या तिनूय वटांनी तटबंदी आसून चवथे वटेन तळें आसा. तटबंदीक वट्ट णव दरवाजे आसात. तातूंतलो आग्रा दरवाजो शारांत प्रवेश करपाचे नदरेन म्हत्वाचो. तो सरळ दिवाण-ई-आमा कडेन वचून फुडें जामा मशिदीकडेन सोंपता. व्हड व्हड इमारती, तांची सोबीतकाय आनी ताचेवयलें अलंकाराचे तशेंच तांचे बांदावळींतलें नेमकेपण हांचें एक आगळें वेगळें दर्शन घडटा.

हांगा आशिल्ल्या इमारतींचे धर्मीक आनी लौकीक अशे दोन भाग पडटात. लौकीक वास्तूंत राजवाडे, प्रशासकीय इमारती, सराई आदींचो आस्पाव जाता, जाल्यार धर्मीक वास्तूंत बुलंद दरवाजो, शेख सलीम चिश्तीचो दर्गो आनी जामा मशीद, दफ्तरखानो, दिवाण - ई - आम, दिवाण-ई-खास हे दिवाणखाने, जोधाबाय आनी मरियमबाय हांचेखातीर बांदिल्ले महाल, पंचमहाल, बिरबल महाल आदी वास्तू पळोवपा सारक्यो आसात.

बुलंद दरवाजो ही हांगाची सगळ्यांत व्हड वास्तू अकबरान आपल्या गुजरातच्या जैता निमतान बांदल्या. ताची उंचाय ५४ मी. आसून ती तांबड्या वालुकश्मांत बांदल्या. मदीं मदीं तांतूत संगमरवरी फातरांचोय



फतेपूर सिक्रीचो पंचमहाल

उपेग केला. ह्या दरवाज्याची कमान व्हड आसून दरवाज्यावयल्या कोनशांनी एक संघ मनोरे मुखेल चौकटींतल्यान वयर आयिल्लेवरी दिसतात. दर्शनी भागाचेर दोन मनोऱ्यांमदीं आशिल्ले तीन घुमट सुंदर दिसतात. ह्या दरवाज्याचे भायले वटेन अरबी भाशेंतलें सोबीत सुलेखन मेळटा. ही इमारत चवकोनी आसून वयर घुमट आसात. मुखेल दर्गो सोबीत शिसवी मखराचेर उबो आसा. ताचे दर्शनी खांबे पितूळचे आसून तांचेर रंगीत जडावकाम केल्लें आसा.

इमारतीच्या चारूय वटांनी महिरपीच्या कोंदणांत संगमरवरी फातरांत कोरांतिल्ल्यो नाजूक जाळयो बसयल्यात. अकबरान सलीम चिश्तीखातीर एक मशिदूय बांदल्या (१५०१). दिवाण-ई-आम आनी दिवाण-ई-खास ह्यो दोन इमारती सभाघर स्वरुपाच्यो आसात. दिवाण-ई-आम हातूंत अकबर न्यायदान करतालो आनी दिवाण-ई-खास ही खास मंडळीचे सभेखातीर आशिल्ली इमारत.

ही इमारत दिसपाक दोन माळयांची दिसता खरी, पूण प्रत्यक्षांत ती एके माळयेची आसा. हे इमारतीच्या खांब्यार सोबीत शिल्पाकृती आसात. सभाघरांत मदल्या भागार आशिल्लो खांबो मुळांत चवकोनी आनी मदीं अश्टकोनी आसून वयले वटेन मदीं खांब्याच्या तोंकार शिंवासन आसा. हें वाटकुळ्या आकाराचें शिंवासन सगळेवटांनी कोरतिल्लें आसा. ताचे भोंवतणीं जाळयेच्यो कडो आसून कोनशांनी कोन मोडपी कडो आसून सकयल्यान सवायतीन मिटर वयर अश्टकोनी कडो आसात. आनी शिंवासनाकडेन वचपाक थंयसावन तीन वाटो आसात.

पंचमहालाच्या शेजरा अकबरान जोधाबाय आनी मरियमबाय ह्या आपल्या आवडटच्या राणयांखातीर दोन महाल बांदिल्ले आसात. हांचें खाशेलपण म्हळ्यार ह्या दोनूय महालांनी हिंदू संस्कृतायेचीं चिन्नां दिसतात. जोधाबायचो म्हाल पुरायेन हिंदू शिल्प शैलीचो एक नमुनो. ह्या म्हालांत मदीं तुळशीचें पेड आसा. ह्या दोन म्हालांची रचणूक ऋतूचे बदल लक्षांत घेवन केल्या. एक महाल उज्या दिसांनी थंड आनी हवेशीर आसता आनी दुसरो महाल शियांदिसांनी ऊबदिणो आसता.

अकबरान बांदिल्ले हे वास्तूंत वेगवेगळ्या परंपरागत वास्तूशैलींचो सुंदर मेळ दिश्टी पडटा. ह्या दोनूय महालांच्या शेजरा आशिल्ल्या पंचमहालाची रचना सोबीत आसा. पिरॅमिडावरी अशीर जायत गेल्या ह्या महालाची सगळ्यांत वयली माळी म्हळ्यार एक ल्हानसो तेर्रासूच कसो. सकयल्यो दोन माळयो सोडल्यार हेर उरिल्ल्यो माळयो म्हळ्यार ल्हान व्हड हवेशीर तेर्रासूच कशे दिसतात. सकयले माळयेक फातराचे जाळयेच्यो वण्टी आसात. हांगा आशिल्लें तुर्की राणी, रुमी सुलताना हिचें निवासस्थान पळोवपासारकें आसा. हांगाचो बिरबलाचो दोन माळयांचो महालूय कलापूर्ण आसा.

पंचमहाला मदीं एक व्हड व्यासपीठ आसून ताचे लागसारूच बुद्धिबळाचो व्हड पट आसा. इबादतखाना, नौबतखाना, टांकसाळ, कारवान सराई ह्यो हेर कांय वास्तू पळोवपासारक्यो आसात. ह्यो सगळ्यो वास्तू तांबड्या वालुकाश्म फातरान बांदिल्लयो आसात.

फतेपूर सिक्रींतल्या चडशा वास्तूंचेर मोगल, इराणी, रोमी, हिंदू आनी वेगवेगळ्या वास्तूशेलींचीं छाप दिसता. केंद्रीय पर्यटन खात्यान ह्या स्थळाचो आधुनीक पर्यटन केंद्र म्हणून विकास करपाखातीर १० कोटी रुपयांची येवजण आंखल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**फर्ग्युसन, जेम्स :** (२२ जानेवारी १८०८, ॲर (स्कॉटलंड); मरणः ९ जानेवारी १८८६, लंडन).

भारतीय वास्तुशिल्पशैलीचो एक चिकित्सक, स्कॉटलँडी अभ्यासक आनी कला समिक्षक. ताच्या बापायचें नांव विलियम फर्ग्यूसन. तो वैजकी पेशांतलो आशिल्लो तरी ताका सहित्याची आवड आशिल्ली. 'नोट्स अँड रिकलॅक्शन्स ऑफ ए प्रॉफॅशनल लायफ' हें ताचें पूस्तक फर्ग्युसन जेम्सान उजवाडाक हाडलें. जेम्साचें मुळावें शिकप इंग्लंडाक जालें. फूडें आपल्या भावाचे वेपारी कंपनींत भागीदार म्हणून तो कलकत्त्याक आयलो. पूण हो धंदो व्हडलो सो चललोना देखून तो निळीच्या धंद्यांत पडलो. तातूंत ताका भरपूर पयसो मेळ्ळो.

धंद्याच्या निमतान ताणें १८३५-४५ ह्या काळांत भारतभर भोंवडी केली आनी कांय पोरण्या वास्तुंचें निरिक्षण केलें आनी ते विशीं विस्तारान टिपणां करून दवरलीं.

१८४०त 'रॉयल एशियाटीक सोसायटीचो' वांगडी म्हणून ताची निवड जाली. हे सोसायटींत ताणें 'रॉक - कट टॅम्पल्स ऑफ इंडिया' (१८४५) हो सोदनिबंद सादर केलो. त्या काळांतल्या समिक्षकांनी ताची दखल घेतली. १८५५-१८७५ ह्या काळांत भारतीय वास्तूशैली आनी तिचीं खाशेलपणां हांचो बारीक आनी चिकित्सक अभ्यास करून ताणें 'हिस्टरी ऑफ इंडियन अँड इस्टर्न आर्किटॅक्चर' (दोन खंड १८७६) हो मोलादीक ग्रंथ उजवाडाक हाडलो. ह्या पुस्तकाखातीर ताका रॉयल इन्स्टिटयूट ऑफ ब्रिटीश आर्किटॅक्टसचें भांगरापदक मेळ्ळें (१८७६), ताचे आदीं भौशीक बांदकाम खात्यांत सचीव म्हणून ताची नेमणूक जाली (१८६९).

अलेक्झांडर कनिंगहॅम ह्या नामनेच्या पुरातत्त्वगिन्यानी वांगडा, ताचो वांगडी म्हणून काम करपाची संद ताका लाबिल्ली. १८६०-१८६८ ह्या काळांत ताणें पॅलेस्टायनांतल्या पुर्विल्ल्या अवशेशांची पळोवणी केली. 'ट्री अँड सर्पंट वर्शिप' ह्या ताच्या ग्रंथांत सांची आनी अमरावती हांगाच्या बौद्ध अवशेशांची विस्कटावणी केल्ली आसा (१८६८). 'रूड स्टोन मॉन्युमॅण्ट्स ऑफ मॅनी लॅण्ड्स' १८७२ ह्या दुसऱ्या एका पुस्तकांत ताणें भारतीय पुर्वाश्मयुगीन अवशेश हे प्रागैतिहासिक नासून इतिहासीक आसा अशें मत मांडलें.

हे भायर ताणें पुर्विल्ल्या मॅझोपोटॅमियांतल्या इराणी आनी ग्रीसी वास्तू शैलींविशीं बरप केलें. तेखातीर ताची नेमणूक रॉयल कमिशनाचो वांगडी म्हणून केली.

जेम्स फर्ग्युसनान भरपूर लिखाण केल्लें. ताचें संशोधन आनी बरप सतत चालू आसतालें. 'ॲन एसे ऑन द एन्शिएंट टॉपॉग्राफी ऑफ जेरुसलेम', (१८४७); 'द ट्रू प्रिन्सिपल्स ऑफ ब्युटी इन आर्ट' (१८४९) ; 'द पॅलेसीस ऑफ निनेव्ह अँड पर्सेपलिस (१८५१), 'नोटस ऑन द साइट ऑफ द होली सॅपल्कर ॲट जेरुसलेम' (१८६१); 'हिस्टरी ऑफ मॉडर्न स्टायल्स ऑफ आर्किटॅक्चर (१८६२) आदी ग्रंथांची खूब नामना आसा.

ताच्या संशोधनाक लागून पुर्विल्ल्या भारतीय कलावास्तूकडेन शासनाचें लक्ष गेलें आनी ह्या मोलीदीक सांठ्याची जतनाय करपाक सरकार फुडें सरलें.

- कों. वि. सं. मं.

**फल ज्योतीश :** जगातलें सैमीक विज्ञान समजून घेवपाखातीर ज्या वेगवेगळ्या शास्त्रांची निर्मणी जाली तातूंत ज्योतीश शास्त्राक मुखेल मानलें. हाचें कारण -

वेदा हि यज्ञार्थम भि प्रवृताः
कालानुपूर्वा विहिताश्च यज्ञाः ।
तस्मा दिदं कालविधान शास्त्रम्
यो ज्योतिषं वेद स वेदयज्ञान् ॥

यज्ञ आनी अनुश्ठानाखातीर वेदांची प्रवृत्ती जाल्ली आसा. यज्ञाचें अनुश्ठान हें काळाचे सुवादीन आसता. देखून त्या काळाचें गिन्यान ज्योतीश शास्त्रावयल्यान जाता. आनी ज्या विद्वानाक हें कालविधानशास्त्र खबर आसता तोच यज्ञवेता थरता. हाचेवयल्यान वेदांग वेदांग ज्योतीशाची भुमिका कळटा.

ऋग्वेद, यजुर्वेद आनी अथर्ववेदांत ज्योतिशाचो उल्लेख मेळटा. ज्योतीश शास्त्रांत काळाची वळख दिल्ली आसता. ज्योतीश हें उतर मूळ "ज्योतिः" ह्या संस्कृत उतरावयल्यान आयलां. "ज्योतिः" म्हणजे तेज वा उजवाडान भरिल्लो अवयव. मळबांतले वाटकुळे चंद्रीम, सूर्य आदी तेजान भरिल्ले तारे हे दिव्याचे ज्योतीभाशेन तेजभरीत आनी उजवाड दिवपी आशिल्ल्या कारणान तांचेकडेन संबंद आशिल्ल्या विशयाक लोक ज्योतीश म्हणपाक लागले अशें एक अनुमान आसा. शास्त्र म्हणजे अनुशासन वा नेम. देखून ज्योतिशाविशीं शिकप वा नेम म्हणजेच ज्योतीश शास्त्र.

यथा शिखा मयूराणां नागानां मण यो यथा।
तद्वद्वेदांय शास्त्राणां ज्योतिषं मुर्ध नि स्थितम् ॥
(ऋग्वेद ज्योतिष खंड ७)

जसो मोराच्या माथ्यार तुरो आनी नागाच्या फडार मणी तशें शिक्षण, कक्ष, व्याकरण, निरुक्त, छंद आनी ज्योतीश ह्या वेदांच्या स आंगांमदीं ज्योतीश हें मुखेल आंग.

तैतिरीयोप निषदा हातूंत ज्योतिशाची व्याख्या मेळटा.

अथाधि ज्यौतिषम् । अग्नि पूर्व रुपम् ॥
आदित्य उत्तररुपम् । आपः संधि :॥
वैद्यूत् संघानम् । इत्याधि ज्यौतिषम् ॥

हे भुंयेचेर उजो सामको सोंपेपणी तयार जावपाक शकता. हे खातीर ताका संहितेचें पुर्व रूप मानलां आनी सूर्य हो वयल्या लोकांत उजवाडीत जाता. देखून ताका उत्तर रूप (परवर्ष) मानला. ह्या दोगांचेय उत्पत्तीक मेघ ($H_2O$) ही संधी. म्हणजेच विजेची शक्त ही संधीची हेतू - संधान केल्ली आसा. हेंच ज्योतीश शास्त्र अशें उपनिशदकार म्हण्टात.

हांगा एक गजाल मतींत येता ती म्हणजे ज्योतिविशीं. संहितेचें वर्णन करून ज्योतिंच्या संयोगान वेगवेगळ्या तरेच्या भौतीक पदार्थांची वेगवेगळीं अभिव्यक्तीचीं विधान गुपितां समजायल्लीं आसात. हे ज्योतीपसून तयार जावपी भोग्य पदार्थांक जल (उदक) हें नांव दिलें. ताचे उत्पत्तींत विजेचोय संबंद दाखयल्लो. आयच्या विज्ञानिकांनी चुंबकत्वाच्या संबदांत वेगवेगळ्या तरांनी भौतीक उदरगतीची साधनां कशीं तयार करपाक येतलीं हाचोय महर्षीन खोलायेन विचार केल्लो दिसता.

॥ इशावास्य इदम् सर्वम् यत्कींच जगत्याम् जगत् ॥

उपनिशदकारांनी उपनिशदांची सुरवात ह्या श्लोकान केल्या. ह्या सुत्रांत उत्पत्तिविशीं खोलायेन विचार जाल्लो दिसता. 'इदम् सर्वम्' म्हणजे ल्हानांतलो ल्हान घटक लेगीत इशम् पसून जाल्लो आसा. व्हडल्या-व्हडल्या स्फोटांक लागुनूच ह्या जगाची निर्मणी जाली अशें सगळे धर्म मानतात. सुरवातीक जाल्ल्या ह्या स्फोटांतल्यान निर्माण जाल्ल्यो लहरी खूब भयानक आशिल्ल्यो. ह्या लहरींचेर ताबो दवरपाखातीर 'इशमान' सात रुशींची रचणूक केली. ह्या सात रुशींसकयल परत विभाजन जावन पांच लहरींनी रुपांतर जालें. त्यो पांच लहरी -

१. प्रजापति : जिवाचें पालन
२. ब्रह्मा : अनुभूती
३. शिव : पवित्रताय
४. विष्णु : औषधी अन्नरस
५. मिनाक्षी : सुक्ष्माची वृद्धी.

हातूंत परिवर्तीत जाल्ल्यो ह्यो लहरी ज्या जाग्याचेर एकवटीत जाल्यो ताका 'पुषन' म्हणजेच पोषण करपी अशें म्हण्टात. ह्याच जाग्याचेर चंद्राचेंय अस्तित्व आसा.

पुरूष सुक्तांतलो हो उल्लेख -

॥चंद्रमा मनसो जावस् चक्षो सुर्यो अजायत ॥

जांव श्रीमद्भगवदगीतेंत १०व्या अध्यायांत आयिल्लो -

आदित्यानामहं विष्णू ज्योतिषं रवि रेशुमान् ।
मरिचिर्मरूतामस्मि नक्षत्राणामहं शारी ॥

हो उल्लेख चंद्राचें म्हत्त्व दाखयता. ह्या "पुषनांतल्यान" ३३ कोटी स्पंदन लहरी (Group of Radiation) २७ नखेत्रांतल्यान सात लोकांत तीन मार्गांनी प्रसारीत जाल्ल्यो. त्यो म्हणजे यम, सूर्य आनी प्रजापती स्पंदन लहरी. ह्यो लहरी आठ दिकांतल्यान २४ भेदावांगडा थरथरत आसतात. ही संख्या धर्तरी ५६, उदक (जल) ५२, उजो ६२, वारो ५४, मळब ७३ आनी मानवी मन ६४. हे प्रमाण ३६० आंदोलनां (vibrations) जातात. म्हणून भारतीय पद्दतींत ३६० दिसांचें वर्स मानलां. होच विचार तैतरीय उपनिशदकारांनी मांडला. तांच्या सुत्राप्रमाण -

अग्नी : पूर्व रुपम - पूर्वरूप अग्नि
(Last Particle of Atom)
आदित्य उत्तररूपम् - वेल्या उल्लेखांत नामरूप रचना.
आपः संधि - आप म्हणजे जल,
वैद्युत संघानम् - विद्युत संधान
(Electro Magnetic Radiation)
इत्याधि ज्योतिषम् - हेंच ज्योतीश.

म्हणजे हें सगळें जाका खबर आसा तें ज्योतीश. मानवी कुडींत अस्तित्वांत आशिल्ल्या दाव्या कानाचेर आशिल्ल्या नसेक (Nerve) ज्योतिशमयी प्रज्ञा अशें म्हण्टात. ही नस म्हणजेच १०८ ज्ञान तंतूंतलें एक केंद्र. मेंदवांत १०८ तरांचे तंतू आसात. विश्वसंरचनेंत १०८ मुलद्रव्यां आसात, आनी २७ नखेत्रांचे, दर एक नखेत्राचे चार चरण अशे तरेन १०८ चरण संख्या जाता. विश्वरचना, मानवी कूड आनी ज्योतीश हांचो संबंद अशे तरेन दिसता. हे चुंबकि नामरूप रचणुकेचो अभ्यास करून १०८ ज्ञान तंतूंतली प्रज्ञा जागृती ज्योतीश शास्त्राचें गिन्यान दिवपाक शकता अशें शास्त्रकार म्हण्टात. विश्वाची उत्पत्ती आनी हें कुवाडें मानवी कुडीकडल्यान सुटावें जाता हेंच एक ज्योतीश शास्त्राचें व्हडपण.

अध्यात्मीक विचारधारेंत पांच महाभुतांचो बारीकसाणेन विचार केल्लो आसा. अभ्यासकांनी हाका पंचीकरण हें उतर दिलां. ह्या पंचीकरणाची ज्योतीशशास्त्राचे नदरेन म्हायती अशी -

## कोश्टक - १

| तत्त्व | सत्व गूण ज्ञानेंद्रीय | रजोगूण कर्मेंद्रीय | तमोगूण विशय | कार्य | गिरो | राशी | अवस्था | संबंद |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| मळब | कान | वाणी | उतर | स्फुरण | गुरू | – | अंतःकरण | जायत्या जल्मांच्या ज्ञानाचो संग्रह |
| वारो | कात | हात | स्पर्श | गति | शनी | ३ ७ ११ | मन | संकल्प- विकल्प |
| तेज | दोळे | पांय | रूप | भूक, तान, पचन आदी. | मंगळ | १ ५ ९ | बुद्धी | निर्णय |
| उदक | जीब | लिंग | रस | आस्वाद | चंद्र आनी शुक्र | ४ ८ १ २ | चित्त | चिंतन |
| धर्तरी | नाक | गूद | गंध | जडदेह | बुध | २ ६ १० | अहंकार | देह म्हणजेच हांव ही कल्पना |

**वैदिक काळ :** (इ. स. प. १५०० पयलींचो) : ह्या काळांत धर्तरेची भोंवडी, दीस, पंद्रस, चांद्रमास, अधिकमास, सौरवर्स बी उल्लेख मेळटात. तैतिरीय संहिता ब्राह्मण ग्रंथ हातूंत चांद्र म्हयने, सौरम्हयने, गिराण चक्रां, नखेत्रां, गुरू, शुक्र हांचो विचार विस्तारान केल्लो दिसता. कालगणनेंत म्हयनो चांद्र पद्दतीन आनी वर्स सौर पद्दतीन विचारांत घेतिल्लें दिसता.

**वेदांग ज्योतीश काळ :** (इ. स. प. १५०० ते इ. स. प. ५००): कालगणनेची निर्मणी जाता आसतनाच परिमाणाच्या विचाराखातीर घटका - पळां बी हांची निर्मणी जाली. ब्रह्मदेवाचो दीस, युगांची निर्मणी हांचो विचार ह्या काळांत व्यापक नदरेन जाल्लो दिसता. पूण यूग कल्पनेविशीं वेगळेपण दिसता. नखेत्र नांवां वेदांग ज्योतीश काळांत प्रचारांत आयलीं. नखेत्रां हीं भारतीय, पूण वारांची आनी राशींची निर्मणी भारतीय न्हय.

**सिद्धांत पंचक काळ :** (इ. स. प. ५०० ते इ. स.प. ५००): ह्या काळांत सिद्धांत तंत्र, करण अशे भेद पडले. गिन्यां गणिताचो विस्तारीत अभ्यास ह्या कालखंडांत जालो. एका खाशेल्या वेळार सगळे गिरे एकठांय जातात. त्या वेळाकडल्यान यूग आनी दीस मेजप हाचेर ज्योतीश गणीत आदारचें ही नदर मांडली आनी ती प्रचारांत आयली. फुडले पांच सिद्धांत ह्या काळांत मांडले.

अ. पितामह सिद्धांत : हातूंत वर्साची व्याप्ती विचारांत घेतात.

ब. पुलिश सिद्धांत : ग्रिन्यांचे उदय - अस्त, वक्री - मार्गी, गमन, दिनमान हांचो विचार केला.

क. सूर्य सिद्धांत : हातूंत तासांमेरेन गिन्यांचो परिभ्रमण काळ, वक्री मार्गी जावप, गमन, दिनमान बी व्यापक चर्चा मेळटा.

ड. रोमक सिद्धांत : पळामेरेन जगाचें आनी ग्रहांचें गणीत हातूंत केल्लें आसा.

इ. वसिष्ठ सिद्धांत : खूब पोरणो सिद्धांत जमेक धरतात.

रोमक सिद्धांत आनी पुलिश सिद्धांत चड प्रचलीत आसात.

**वराहमिहीर ते गणेश दैवज्ञ हांचो काळ :** (इ. स. ५०० ते इ. स. १५००). ह्या काळांत ज्योतीश शास्त्राचो व्यापक प्रमाणार अभ्यास जाल्लो दिसता. आर्यभट्ट, ब्रह्मगुप्त लहल, शतानंद, भास्कराचार्य सारकिले विद्वान गणिती आनी ज्योतिर्वीद ह्या कालखंडांत जाले. गर्ग-संहिता आनी पराशर संहिता हातूंतल्यान गिरे-नखेत्रां-राशी-शकून हांचें विस्तारीत विवेचन महर्षीन केल्लें दिसता.

**आर्यभट्ट :** जल्मवर्स इ. स. ४७६ आसुंये. बंगालांतल्या पारण ह्या गांवालागचें कुसूमपूर हें आर्यभट्टाचें वसतीस्थान मानलां. पूण आर्यभट्टाचे आर्यसिद्धांत दक्षिणेक प्रचारांत आयले. हाका लागून कुसूमपूर दक्षीणेक आसूंये अशें मत आसा. आर्यभट्टाचो आर्यसिद्धांत ग्रंथावयलें. भाश्य आशिल्लो टिकाग्रंथ थिरुवनंतपुरमाक मेळ्ळा. हाका लागून दक्षीण भारतांतलें केरळ हें वसतिस्थान मानपाक घटसाण मेळ्ळी.

आर्यभट्टान ज्योतीश ग्रंथाक आर्यभटीय अशें म्हळां. पूण फुडें ताचें आर्यसिद्धांत हें नांव चड प्रचारांत आयलें. ह्या ग्रंथाच्या कालक्रियापदी ह्या विभागांत कालगणना, युगां, गिन्यांची मध्यम आनी स्पश्ट गती हे विशय आयिल्ले आसून गोलपदी ह्या भागांत क्रांतिवृत, संपांत बिंदू सुर्यापसून ग्रहांचीं अंतरां, खगोल वर्णन, गिराणां सांगपाची सोंपी रीत हे विशय आयिल्ले आसात. आर्यभट्टाचे पद्दतीचें पंचांग आयजलेगीत दक्षीणेंत वैशणव पंथीय मानतात.

धर्तरी आपले भोंवतणीं घुवता. म्हणजेच तिका दीसपट्टी गती आसा. अशें मत मांडपी आर्यभट हो पयलो ज्योतिशी. लल्ल ज्योतिश्यान ताच्या म्हणण्याक तेंको दिला.

**वराहमिहिर :** हाचो काळ, वसतिस्थान हे विशींची खात्रीदायक अशी माहिती मेळना. ज्योतिशी वराहमिहिर हाणें आपलो काळ खंयच दिल्लो मेळना. पूण पंचसिद्धांतिका ह्या करण ग्रंथांत शके ४२७ हें सुरवातीचें वर्स मानलां. हाचेवयल्यान वराहमिहिराचो जल्म शके इ. स. ४१२ जावं शक ३९० आसुंये असो श. बा. दिक्षीत हाणें अदमास काडला. ग्रंथ रचणुकेच्या काळांत वराहमिहिर १५ - १६ वर्सांचो आसुंये. हाचेवयल्यान ४१२ हें जल्मशतक जाता. ब्रह्मगुप्ताचो टिकाकार आमराज हाणें

वराहमिहिराचो मरणशक ५०९ दिल्लो आसा. आयुश्य ९६ - ९७ वर्सांचें अशें विचारांत घेतलें जाल्यार हो जल्मकाळ इ. स. ३९०च्या लागीं वता. वराहमिहिरान गणीत, जातक आनी संहिता अशा ज्योतीशशास्त्राच्या तिनूय भागांचेर ग्रंथरचणूक केल्ली आसा. पंचसिद्धान्तिका, लघुजातक, बृहज्ञातक, विवाहपटल, योगयात्रा, बृहत्सिद्धान्त हे वराहमिहिराचे मुखेल ग्रंथ.

वराहमिहिर हाच्या काळाउपरांत ब्रह्मगुप्त, लल्ल, पद्मनाभ, श्रीधर, महावीर, द्वितीय आर्यभट्ट, बलभद्र, भट्टोत्पल, श्रीपती हे ज्योतिशी जावन गेले. तांणीय ग्रंथ रचले. पूण ते सगळे टिकेच्या स्वरुपाचेच आशिल्ले.

भास्कराचार्य : इ. स. १११४ शक १०३६ ह्या वर्सा जल्म जालो. सह्य पर्वतालागीं बिज्नलंवीड हें वसतिस्थान. सिद्धांत शिरोमणी हो ताचो मुखेल ग्रंथ. हे भायर ज्योतिर्गणिताविशीं "करणकुतूहल" वासनाभाष्य, भास्कर व्यवहार, विवाहपटल हे आनीक ग्रंथ आसात.

आयची अस्तंती गणीत पद्दत वा ज्योतीशशास्त्राची मांडणी आनी भास्कराचार्यान आपल्या ग्रंथांत केल्ली मांडणी, मांडिल्लीं मतां हातूंतलें सारकेपण मतींत घेतलें म्हणजे भास्कराचार्याचें व्हडपण मतींत येता. वयर उल्लेख केल्ल्या विद्वानांभायर केशव दैवज्ञ, गणेश दैवज्ञ, केर नाना छत्रे, लोकमान्य टिळक, व्यंकटेश बापुजी केतकर, खानापूरकर, सुधाकर द्विवेदी, डॉ. के. ल. दप्तरी, गो. स. आपटे, शिवराम गणपत पवार, प्रा. हरिहर भट्ट, रघुनाथशास्त्री पटवर्धन, दिनानाथ युलोट, द. कृ, सुळे, रा. वि. पटवर्धन हांचो उल्लेख करपाक जाय. ह्या सगळ्यांनी ज्योतीशशास्त्रांत वयल्या पांवड्याचे विचार मांडिल्ले आसात.

कै. शं. बा. दिक्षीत हाणें "भारतीय ज्योतिःशास्त्र" ह्या ग्रंथांत अभ्यासपूर्ण ज्योतिशाचो इतिहास मांडिल्लो आसा. ज्योतिशाचे दोन प्रकार आसात. एक गणित ज्योतीश आनी दुसरें फलज्योतीश. गणीत ज्योतिशाक (Astronomy) ग्रह ज्योतिश अशेंय म्हण्टात. थोडेकडेन ग्रह ज्योतिशाक ख ज्योतीश म्हणजे मळब ज्योतीश अशेंय म्हणिल्याचे उल्लेख मेळटात. चंद्र - सूर्य - गिरे - नखेत्रां आनी हेर तारे मळबांत सदांच उदय - अस्ताक पावन जाची साक्ष दितात तें खगोल वा ग्रहजोतीश. मळबांतल्या ज्योतिंकडेन वैदिक रुशींचें लक्ष गेलें. ऋतूचक्र, चंद्र, सूर्य, तारे सैमीक नेमांचें परिपालन कांयच बादा करून घेनासतना करीत आसतात. हाचेंच वैदिक रुशींक अजाप दिसतालें. हातूंतल्यान भारतीय गणीत ज्योतिशाचो उद्‌भव जालो. रेतरेय ब्राह्मणांत (३.४४) सुर्याचो खरेपणान उदय / अस्त जायना जाल्यार धर्तरी ताचे भोंवतणी घुविल्या कारणान उदय आनी अस्ताचे भास जातात, आनी दीस - रात हें चक्र चलता असो उल्लेख आसा. २७ नखेत्रां, चंद्राच्यो अवस्था, सूर्य संक्रमण, रुतूबदल ह्या सगळ्यांचें परिगणन वैदिक रुशी यज्ञाच्या निमतान करीत आसतात. हातूंतल्यानूच वैदिक काळांत पंचांग अस्तित्वांत आयलें. २७ नखेत्रांची मांडणी वेदकाळांत अस्तित्वांत आयली. गणीत ज्योतीश ज्ञानेतिहासाच्या नदरेन म्हत्वाचें.

ग्रह ज्योतिशाच्या आदारान जल्मकाळांत स्पश्ट जाल्ल्या ग्रहनखेत्रादी आवतिकायेचो मानवी जिविताचेर जावपी सूख आनी दुख्खात्मक घटनांचो आराखडो फलज्योतिशांत (Astrology) घेतात.

ज्योतीशशास्त्रांत जायत्या प्रकारांचे विशय आसात. ह्या विशयांची विभागणी तीन स्कंधांनी केल्ली आसा.

हे तीन स्कंध अशे आसात -

१) **सिद्धांत** : हाका गणित स्कंध म्हण्टात. हातूंत गिऱ्यांची मध्यम आनी स्पश्ट आवतिकाय संवत्सर, अयन, मास, कालनिर्णय, गिराण सारकिल्ले गणिती भाग चड करून येतात. गणीत स्कंदाचे तीन भाग जातात. कल्पारंभापसून ग्रहगणित जातूंत आसता ताका "सिद्धांत" म्हण्टात. महायुगापसून ग्रहगणित जातूंत येता ताका "तम" म्हण्टात. आनी शकवर्सापसून ग्रहगणीत जातूंत येता ताका "करण" म्हण्टात.

२) **संहिता** : ह्या स्कंधांत नखेत्र मंडलांतलीं ग्रहभ्रमणां, ग्रहांचीं युद्धा, धुमकेतू उल्कापात, गिराणां हांचे वयल्यान संवसारीक शुभ अशूभ फळां कशीं मेळटलीं हाचें विवेचन मेळटा. म्हूर्तांविशींय हातूंत सविस्तर माहिती मेळटा. मेदिनीय ज्योतीश आनी म्हूर्त हांच्या संदर्भांत सगळ्यांत व्हड आनी प्रमाणग्रंथ वराहमिहिर चार्याचो बृह्त वाराहि संहिता. ह्या ग्रंथांत सगळ्या ग्रहांच्यो भोंवड्यो, तांचीं फळां, अगस्ति, सप्तर्षि हांच्या उदयदिकांची फळां भरतखंडाचे णव विभाग करून तातूंतले देश आनी त्या - त्या विभागाचेर खंयच्या नखेत्राचो शेक आसा हें सांगलां.

हातूंत चड उणो पावस पडप वा दुकळ हांचेविशीं सांगून पावस मेजपाची पद्दत सांगल्या. भूंयकांप, उल्का, इंद्रधोणू हे सारकिले सैमीक चमत्कारूय आसात. भुंयेच्या गाभ्यांत आशिल्लें उदक सोदप, वृक्षायुर्वेद, प्रासाद लक्षण, वज्रलेप, देवांच्यो मुर्ती घडोवप, स्त्री चिन्नां, कामशास्त्र, रत्न परिक्षा, शकून, शूभ - अशूभ, जनावरांची परिक्षा आनी हेर मानवी जिवितांत उपेगांत येवपी विशयांचो हातूंत आस्पाव केल्लो आसा.

ह्याच विभागाचें एक आंग म्हळ्यार म्हूर्त. हें जग निर्मितना पयलीं मळब निर्माण जालें. ते उपरांत चार महाभुतां हातूंतल्यान निर्माण जालीं. हो उल्लेख उपनिशदांत आसा. मळबाचो गूण ध्वनी आसा. हो ध्वनी चडश्या सगळ्या वस्तुंनी चालू आसता. कारण विश्वाचो तो मूळ घटक द्रव्य. हाचेरूय म्हूर्त शास्त्र आदारिल्लें आसा. भुगोल, नखेत्र गोल आनी मळब गोल (खगोल) ह्या सगळ्यांचो विचार म्हूर्त शास्त्रान केला. ह्या तीन गोलांनी सतत चालू आसपी ध्वनी सदांच सुसंवादी आसता. वेदांनी नखेत्रांचें वर्णन केलां. तातूंत त्या नखेत्राच्यो कितल्यो तारका आसात तें आनी तांची नांवांय दिल्लीं आसात.

**तरंतीति व्युतपन्ना तारकत्वं संपन्नम** - ही तारकांची व्यांख्या. हुंवारावेळार जांणी उदकांतल्यान तड मारली त्यो तारका.

'नक्षरतीति नक्षत्रं' ही नखेत्राची व्युतपत्ती आसा.

तै. ब्राह्मण -नवाइमानि नक्षत्राण्य भूवम्निमि

तन्नक्षत्राणां नयत्राचं देवगृहावै नक्षत्राणि ॥

**'गृण्हातांती ग्रह'** म्हणजे जे घेतात ते गृह अशी गिऱ्यांची व्याख्या दिल्ली आसा. गिरे नखेत्रांचो उजवाड घेतात. तातूंत आयिल्लो उजवाड मेळोवन तो धर्तरेचेर परावर्तीत करतात. म्हणूत म्हूर्तांत धर्तरी - नखेत्रां, ध्वनी, गिरे ह्या चवगांचोय विचार करून काळ थारयतात. हो काळ सादारणपणान चवदा मिनटांचो आसा. पूण दर एका कामाक वेगळो आसता. दर एका कामाक मास, तीथ नखेत्र हें वेगवेगळें सांगिल्लें आसा. तांचीं स्पंदनां त्या कामाक उपेगी आसतात. नखेत्रांक मुखेलपण दिवपाचें आनीक एक कारण म्हणजे मखेत्रांनी वेदांनी सोम (रस) दवरला. अमृतांतले खूबशे गूण हे सोमवल्लींत आसात. देखून चंद्र जरी सुर्याकडल्यान उजवाड घेता तरी खर उजवाडाचें थंड चान्न्यांत रुपांतर जावन तें धर्तरेचेर परावर्तीत जाता. चंद्रीम सदांच एकेका नखेत्रांतल्यान भोंवडी करीत

आसता. खंयच्या नखेत्राचेर जल्म जाला हाका ह्याच कारणाकलागून म्हत्व आसा.

**३) होरा :** ह्या स्कंधांत मनशाच्या जल्मकाळाच्या गिऱ्यांचे स्थितीवयल्यान ताच्या जिवितांतल्या सगळ्या सूखदुख्खांचो विचार थरयतात हो विशय हातूंत आस्पावता. हाकाच जातक स्कंध म्हण्टात.

जातकस्कंधांत १२ भाव, १२ राशी, २७ नक्षत्रां, ९ गिरे हांचो एकवटीन विचार करून फलादेश सांगतात.

१२ भाव, १२ राशी, २७ नक्षत्रां, ९ गिरे हांच्या फलादेशाचे भुमिकेंतल्यान जी म्हायती विचारांत घेतात ती कोश्टकरुपान मांडटात. गिऱ्यांच्यो जल्म कथा विज्ञातीक भुमिकेंतल्यान मांडिल्ल्यो आसात. आनुवंशीक प्रभावान कोणाय मनशाचें व्यक्तिमत्व घडटा. ग्रहांभायल्या वस्तुच्याय प्रभावान परिस्थिती घडत आसता. ह्या दोगांचोय संकलीत परिणाम म्हणजेच मनशाचो जिवीत प्रवास.

पूर्व प्रारब्ध, अनुवंशीकता हांचे जोडीक गिऱ्यांचे शूभ आनी अशूभ परिणाम मनशाचेर जायत आसतात. ह्या परिणामांक लागुनूच दर एका मनशाच्या जल्मकाळांतले गिऱ्यांचे स्थितीवयल्यान त्या मनशाचो सभाव, शरिराची घडणूक, त्या मनशाची आवतिकाय ह्यो गजाली दिसतात. गिऱ्यांची स्थिती जशी जशी बदलता ते प्रमाण त्या मनशाच्यो बऱ्यो - वायट आवतिकायो जातात. हाचो विचार फलज्योतीश शास्त्रांत जाता. पूण येवपी बदल मनीस यत्नांनी बदलपाक शकता.

सुर्वेक राजे - राज्य पावसाविशीं बी भविश्यां सांगताले. मनशाची पयली कुंडली केली ती रामाची उल्लेख रामायणांत (१८.८.९) आसा. कृष्णाचे भविश्य नंद घरा गर्गाचार्यान सांगिल्ल्याचो उल्लेख भागवतांत (१०.८) मेळटा. बुद्धाच्या जल्माउपरांत बालगौतमाचें भविश्य सांगतना "हो भुरगो जगाक मोलादीक अशें धर्मगिन्यान दितलो" अशें विद्वानांनी सांगिल्लें.

देश-राजा जावं हेर भौशीक समाजाच्या संबंदांतल्या भविश्य कथनाक मेदिनीय भविश्य कथन म्हणून वळखतात.

रामायण, महाभारत, भागवत ह्या ग्रंथांत ज्योतिः शास्त्राकडेन संबंद आशिल्ले योग, वार, तिथी, नखेत्र हांचो उल्लेख आयिल्लो आसा. फलादेशाचो संदर्भ आशिल्लेय उल्लेख मेळटात. ह्या ग्रंथांत नखेत्राचेर मुखेलपणान भर दिल्लो आसा. महाभारतांत कालगणनेच्या संदर्भांतय व्यापक विचार केल्लो आसा. वनपर्वांत विस्तारान विवेचन केलां. तशेंच शांतिपर्व, उद्योगपर्व, अनुशासन पर्व, शल्यपर्व भीष्मपर्व, हातुंतूय ज्योतीश संदर्भ आयिल्ले आसात. श्रीमदभागवताच्या पंचम स्कंधांत ज्योतीश विवेचन वाचपाक मेळटा. हातूंतल्या २१ ते २४ अध्यायांनी ज्योतिश्चक्रवर्णन, कालचक्रवर्णन, ग्रह नक्षत्राची स्थिती आनी हेर म्हायती वाचपाक मेळटा.

**कालनिर्णय :** व्यक्तिच्या भविश्य कथनांत ताका येवपी कालखंड खंयचो आनी कसो ह्या विचाराखातीर कालनिर्णय ज्योतिशाक म्हत्वाचें मानतात. आमच्या पोरण्या ज्योतीश ग्रंथांत कालनिर्णयाखातीर पत्रिकेप्रमाण दशा पद्दतीचेर भर दिल्लो आसता. ज्या काळांत ज्या गिऱ्यांची दशा चालू आसता त्या गिऱ्याचें जल्मपत्रिकेंतलें बगळें विचारांत घेवंचें आनी तो दशाकाल कितें फळ दितलो हाचो विचार करचो. बृहतपाराशरी आनी लघुपाराशरी ह्या ग्रंथांत दशाविचार विस्तारान मांडिल्लो आसा. अश्टोत्तरी दशा १०८ वर्सां आयुश्य मतींत धरून), विशोतर दशा (१२० वर्सां आयुश्य मतींत धरून) आनी योगिनी महादशा (३६ वर्सां एक चक्र मतींत धरून) अशे तीन प्रकार आसात. विशोतरी दशा चड प्रचारांत आसा.

**दिनवर्ष पद्धति :** इंग्लिशींत हाका PROGRESSION म्हण्टात. ही पद्दत अस्तंती राश्ट्रांनी चड प्रचारांत आसा. जल्म दिसाउपरांतच्या दर एका दिसाची कुंडली ही जल्माउपरांतच्या दर एका वर्साची कुरू. एक दीस हो एक वर्सासमान मानतात. देखून हाका दिनवर्ष पद्दत अशें मराठींत म्हण्टात

**परिभ्रमण पद्धति :** कै. जीवनरावजी चिटणीस हाणें ही पद्दत प्रचारांत हाडली. पं. राम नारायण हाणें आपल्या ग्रंथांत हिचो व्यापक विचार केला.

हे पद्दतींत दर एका गिऱ्याचो परिभ्रमण काळ मानिल्लो आसा. त्या अनुरोधान त्या गिऱ्यांचें बारा राशींतलें परिभ्रमण पूर्ण करतात अशें मतींत धरून त्या खाशेल्या काळाचें दाखयल्लें फळ विचारांत घेतात. हें फळ दाखोवप विचारांत घेतना - १. जल्मलग्न कुंडलींत ह्या खंयच्या स्थानांतल्यान इश्टकालीन गिऱ्यांचें परिभ्रमण चालू आसा? २. जल्मकाळांतल्या कुडलींतल्या गिऱ्यावांगडा इश्टकालीन गिऱ्यांचे खंयचे योग जातात? ३. इश्टाकालीन कुंडलींत इश्टकालीन गिरे खंयच्या स्थानांत आसात? ४. इश्टकालीन गिऱ्यांचे एकमेकांकडेन खंयचे योग जातात? ह्या चवगांचोय विचार करून शूभ आनी अशुभाचो फलादेश मांडटात.

**राशि - नक्षत्रगोचर :** पयलींच्या काळापसून ह्यो पद्दती प्रचारांत आसात. जल्मलग्नाची राशी वा जल्मकाळांतल्या चंद्राची राशी हांचेपसून इश्टकालीन गिऱ्यांचें स्थान खंयचे राशीचेर आसा हें पळोवन ताचेप्रमाण इश्टकालाच्या शूभ आनी अशुभत्वाचो विचार करतात तें राशी गोचर. जल्मकाळाच्या वेळार ज्या नक्षत्रांत चंद्र आसा त्या नक्षत्रापसून दर एका नक्षत्राचें फळ विचारांत घेवंचें. ही मांडावळ अशी-

जन्मसंधाद्वि पत्क्षेमः प्रत्वरः साधकस्तधा ।
नौधनो मित्रवर्गश्च परमो मैत्र एवच ॥

पयलें उत्पतिकार, दुसरें संपत्ती, तिसरें विपति, चवथें क्षेत्र, पांचवें प्रमाण्ड, सवें साधक, सातवें मृत्यूदायक, आठवें इश्ट आनी णववें जिवाभावाचो इश्ट हे प्रमाण २७ नक्षत्रांची क्रमान विभागणी करची. भोंवडेंत गिरो खंयच्या नक्षत्रांत आसा हे पळोवन ताच्या आदारान फलादेश सांगतात.

**ताजिक पद्धति :** बलभद्र ज्योतिशान आपल्या "हायनरत्न" ग्रंथांत हे पद्दतीची माहिती दिल्या. यवनाचार्यान वर्षफलादेश जाणपाचें. हें शास्त्र मूळ फारसी भाशेंत रचलें आनी ते उपरांत तें संस्कृत भाशेंत रचलें. यावनी देशांतल्यान ही पद्दत भारतांत आयली. हे पद्दतींत फलादेश पळयतना आपल्या आयुश्यांतल्या ज्या वर्साचो फलादेश पळोवपाचो आसा त्या वर्साच्या सुरवातीच्या काळाची लग्न कुंडली मांडून त्यावयल्यान फलनिर्णय करचो. हे कुंडलीक वर्ष प्रवेश लग्नकुंडली अशेंय म्हण्टात.

**रमलविद्या :** फांशे तयार करून त्या फाश्यांच्या आदारान तयार जावपी आकृतायेवयल्यान भविश्य सांगतात. रमलविद्या मुसलमानी राज्यवेवस्थेंत चड प्रचारांत आशिल्ली. तांचेकडल्यान भारतीयांनी ही विद्या घेतली.

**हस्तसामुद्रिक शास्त्र :** कुडली मांडून जे प्रमाण फलादेश सांगतात ते प्रमाण मनशाचो हात आनी ताचेवयल्यो रेशा, उंचसकयल भाग हांच्या आदारान सांगिल्लो फलादेश म्हणजे हस्तसामुद्रिक शास्त्र.

**अंगरक्षणा होराशास्त्र :** मनशाच्या पायांच्या नाखटापसून तकलेवयल्या केंसामेरेन शरिराची रचणूक, अवयवांची रचणूक, हालचाल, तीळ वा तशीच खूण हांच्या आदारान सांगिल्लो हो फलादेश हो अंगलक्षण होराशास्त्र हातूंत आस्पावता. पोरण्याकाळांत व्हकलेचे पसंती वेळार ह्या अंगलक्षण शास्त्राचो उपेग करताले.

रेडिओ, अवरक्त किरण, क्ष - किरण, गॅमाकिरण, जंतुपार, अणूकेंद्रीय विज्ञान मळबाविशीं संशोधन ह्या सगळ्यांचो संबंद आकाशगंगेकडेन म्हणजेच ज्योतीश शास्त्राकडेन आसा.

ज्योतीश शास्त्राचें सगळ्या आंगांचें शिकप भारतांत थोडेच कडेन जाता. लखनौ विद्यापिठांत बी. एससी अभ्यासक्रमांत तिनामहीं ज्योतीश हो एक विशय घेवपाक जाता. मराठवाडा आनी कर्नाटक विद्यापिठांनी बी एससी. अभ्यासक्रमांत इत्सूक विशयांत ज्योतिशाचो आस्पाव केला. उस्मानिया विद्यापिठान मात एम एससी अभ्यासक्रमांत ज्योतीश विशय दवरला आनी डॉक्टरेटीचे नदरेन त्या विद्यापिठांत अभ्यासाची तजवीज केल्ली आसा. बनारस विश्व विद्यालयांत अस्तंती अभ्यासक खूब येतात. मुंबय - पुणें विद्यापिठांतल्यान फल ज्योतिशाकडेन संबंदीत प्रबंद सादर जाल्ले आसात. पूण ते मेजकेच आसात.

ज्योतीश पळोवपाची उमळशीक आनी ताच्या फलासंबंदीं जाणाजावन घेवपाचें आकर्शण बऱ्याच लोकांक आसा. हातूंत अशिक्षीत आनी अर्दशिक्षीत तसो सुशिक्षीत आनी विज्ञानीक लोकांचो आस्पाव आसा. भारतांत ल्हान - व्हड सगळ्याच शारांनी आनी गांवांनी फी घेवन भविश्य सांगपी लोक बऱ्याच प्रमाणांत मेळटात. खबरांपत्रां म्हयनाळीं तशें हेर नेमाळ्यांनी नेमान भविश्य दिवपाची पद्दत भौतेक नेमाळ्यांनी आसा.

**ग्रहांची म्हायती : ग्रहांचे गुणधर्म**

**कोश्टक क्र. २**

| | रवि | चंद्र | मंगळ | बुध | गुरू | शुक्र | शनि | राहू | केतू |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १. आत्मादि काल/अवयव | आत्मो | मन | वाणी | विज्ञान सूख | मदन | मदन | दुख्ख | मनि | थीर |
| २. रंग | रक्तशाम | गोरो | रक्तगार | दूर्वाशाम | गोरो | शाम | कृष्ण | धुसर | विचित्र |
| ३. शुभ/पाप | पाप | शुभ/ पाप | पाप | शुभ/ पाप | शुभ | शुभ | पाप | पाप | पाप |
| ४. लिंग | पुल्लिंग | स्त्री. | पुल्लिंग | नपुसक | पुल्लिंग | स्त्री. | नपुंसक | पुल्लिंग | स्त्री. |
| ५. तत्त्व | अग्नि | उदक | अग्नि | भू | मळब | उदक | वारो | उदक, वारो | मळब तेज |
| ६. जात | क्षत्रिय | वैश्य | क्षत्रिय | वैश्य | विप्र | विप्र | अंत्यज | मांग | मांग |
| ७. गूण | सत्व | सत्व | तम | रज | सत्व | रज | तम | तम | मातसोतम |
| ८. उच्चराशि मुल त्रिकोण | मेष | वृषभ | मकर | कन्या | कर्क | मीन | तूळ | मिथुन | धनु |
| ९. राशी | सिंह | वृषभ | मेष | कन्या | धनु | तूळ | कुंभ | कर्क | मकर |
| १०. नीचराशी | तूळ | वृश्चिक | कर्क | मीन | मकर | कन्या | मेष | धनु | मिथुन |
| ११. स्वगृह | सिंह | कर्क | मेष वृश्चिक | मिथुन कन्या | धनु मीन | वृषभ तूळ | मकर कुंभ | कन्या | मीन |
| १२. मिनग्रह | चं मं गु | र बू | र चं गु | र शु श | र चं मं | पु श रा | षु श रा | बु शु श | बु शु श |
| १३. समग्रह | बु | मं शु गु श | शु श | मं गु श | श रा | मं गु | गु | गु | गु |
| १४. शत्रुग्रह | शु रा रा | रा | बु रा | चं | बु रा | र चं | र चं मं | र चं मं | र चं मं |
| १५. पूर्ण नदर | ७ | ७ | ४-७-८ | ७ | ५-७-९ | ७ | ३-७-१० | ७-५-९-१२ | ७ |
| १६. कारकत्व | बापूय | आवय | भाव | वाणी | संतत | स्त्री | मरण | आजो | संन्यास |
| १७. वस्त्र | स्थूल | नवें | जळकें | वलसार | मध्यम | शयनदृढ | जीर्ण | - | - |

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | | | कुसकें | | | | | | |
| १८. धातू | ताम्र | मणि | हेम | मिश्रधातू | रौप्य | मुक्ता | शिंशें | - | - |
| १९. ऋतू | गीम | पावस | गीम | शरद | हेमंत | वसंत | शिशिर | - | - |
| २०. देहविभाग | हाडां | रगत | मज्जा | कात | मेद | रेत | शिरो | - | - |
| २१. क्रिडास्थान | देवकूड | उद्यान | अग्नि | किडो | कोशागर | शयन | उकिरडो | - | - |
| २२. रस | कोडू | खार | तीख | मिश्र | गोड | आमट | तुरट | - | - |
| २३. कालबल | दीस | रात | रात | सगली रात | दीस | पुर्वाधवदी | रात | सांज | सकाळ |
| २४. भावकारक | १-९-१० | ४ | ३-६ | ४-१० | २-५-९ १०-११ | ७ | ६-८-१०-१२ | - | - |
| २५. प्रकृती | पित्त | वात-कफ | पित्त | त्रिदोश | कफ | वातकफ | वात | - | - |
| २६. सभाव | थीर | चंचल | उग्र | मिश्र | मृदू | लघू | खूब तीक्ष्ण | - | - |
| २७. भाग्योदय वर्स | २२ते२४ | २४ते२५ | २८ते३२ | ३२ते३६ | १६ते२० | २५ते२८ | ३६ते४२ | ४२ते४८ | ४८ते५४ |
| २८. दिशाबल | उदेंत | वायव्य | दक्षिण | उत्तर | ईशान्य | आग्नेय | अस्तंत | नैर्ऋत्य | - |
| २९. देवता | अग्नि | वरूण | अग्नि/धर्तरी | विष्णु | इंद्र | इंद्राणी | ब्रह्मदेव | पाप | मळब |

## ग्रहांचो तपशिल

| | रवि | चंद्र | मंगळ | बुध | गुरू | शुक्र | शनि | राहू | केतू |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| विद्याकारकत्व | वैद्यक | ज्योतीश | शास्त्र | शिल्प | व्याकरण | संगीत | न्याय | गरूडमंत्र | गुपीतमंत्र |
| भूंय | अरण्य | पाणथळ | भूंय | पाणथळ | अरण्य | बाजार | घर | - | - |
| ग्रहांचें उपास्य | शंकर | चक्षिणी | शंकर | भैरवनाथ | दत्त, राम | देवी | मारूती | कालिका | कालिका |
| दैवत | विष्णु | - | गणपती | सरस्वती | विष्णु | - | - | - | - |
| रत्न | माणिक | मोती | पोंवळें | पाचू | पुश्कराज | हिरो | नीलमणी | गोपदे | लसण्या |
| इंग्लीश नांव | Sun | Moon | Mars | Mercury | Jupiter | Venus | Saturn | Drasson's Head | Drasson's Tail |
| चिन्न | ☉ | ☽ | ♂ | ☿ | ♃ | ☿ | | | ☋ |
| अंक | १ | २ | ९ | ५ | ३ | ६ | ८ | ८ | ८ |
| जप संख्या (हजार) | ७ ह. | ११ ह. | १० ह. | ४ ह. | १९ ह. | १६ ह. | २३ ह. | १८ ह. | १७ ह. |
| नक्षत्रां | कृत्तिका उत्तरा उ. षाढा | रोहिणी हस्त श्रवण | मृग चित्रा धनिष्ठा | आश्लेषा ज्येश्ठा रेवती | पुनर्वसू विशाखा पू. भाद्र. | भरणी पुर्वा पू.षाढा | अनुराधा उ.भाद्र पुष्य | आर्द्रा स्वातु शततारका | मेघा मूळ अश्विनी |
| दिशोंतरी पद्दतींत दशा वर्स | ६ व. | १० व. | ७ व. | १७ व. | १६ व. | २० व. | १९ व. | १८ व. | ७ व. |

## राशींची म्हायती : राशी संज्ञा

### कोश्टक क्र. ३

| | मेष | वृषभ | मिथुन | कर्क | सिंह | कन्या | तुळ | वृश्चिक | धनु | मकर | कुंभ | मीन |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| अंक | १ | २ | ३ | ४ | ५ | ६ | ७ | ८ | ९ | १० | ११ | १२ |
| भाव | विशम | सम | विशम | सम | विशम | सम | विशम | सम | विशम | सम | विशम | सम |
| स्वामी | मंगळ | शुक्र | बुध | चंद्र | रवि | बुध | शुक्र | मंगळ | गुरू | शनि | शनि | गुरू |
| लिंग | पुल्लिंग | स्त्री. | पुल्लींग | स्त्री. | पुल्लींग | स्त्री. | पुल्लिंग | स्त्री. | पुल्लींग | स्त्री. | पुल्लिंग | स्त्री. |
| स्वभाव | क्रूर | सौम्य | क्रूर | सौम्य | क्रूर | सौम्य | क्रूर | सौम्य | क्रूर | सौम्य | क्रूर | सौम्य |
| संज्ञा | चर | थीर | द्वि.स्वभाव | चर | थीर | द्वि.स्वभाव | चर | थीर | द्वि.स्वभाव | चर | थीर | द्वि.स्वभाव |
| उदय | पृश्ठ | पृश्ठ | शीर्श | पृश्ठ | शीर्श | शीर्श | शीर्श | शीर्श | पृश्ठ | पृश्ठ | शीर्श | उभोदय |
| राशी संज्ञा | पशू | पशू | नर | कुळी | पशू | नर | नर | किटक | पू.मानव | पु.पशू<br>उ. पशू | नर<br>उ. जलचर | जलचर<br>- - |
| पाद | चतुःष्पाद | चतुः | द्वि. | बहू | चतुः<br>१ | द्वि. | द्वि.<br>१ | बहू | पु.द्वि<br>उ. चतुः | पु.चतुः<br>उ. बहू | द्वि. | बहू |
| शरीरभाग | माथें | तोंड | छाती | काळीज | | कमर | बस्ती | लिंग | मांडयो | धोंपर | पोटऱ्यो | पावलां |
| रूप | मेंढरो | बैल | घोव-<br>बायल<br>जोडपें | जलचर<br>प्राणी | शींव | धान्य<br>आनी<br>उज्या सकट<br>व्हड्यांत<br>बशिल्ली<br>कुमारिका. | तराजुधारी<br>पुरूश | विंचू | पू. धनुर्धारी<br>उ.<br>घोड्याचें<br>शरीर | प. हरिणमूख<br>उ. मानगें | रिकामो<br>कुंभ<br>खांदार<br>घेतिल्लो<br>पुरूश | मत्सद्वय |
| प्रसव | अल्प | मध्यम | वंध्या | बहू | वंध्या | वंध्या | मध्यम | बहू | अल्प | मध्यम | अल्प | बहू |
| तत्य | अग्नि | धर्तरी | वारो | उदक | अग्नि | धर्तरी | वारो | उदक | अग्नि | धर्तरी | वारो | उदक |
| दिशाभाव<br>बल | दशम | दशम | लग्न | चतूर्थ | दशम | लग्न | लग्न | सप्तम | पु. लग्न | पु. दशम | दशम<br>उ. दशम | चतुर्थ<br>उ. चतुर्थ |
| समयबल | राती | राती | राती | राती | दिवो | दिवो | दिवो | दिवो | राती | राती | दिवो | सांज |
| मानपलात | २०० | २४० | २८० | ३२० | ३६० | ४०० | ४०० | ३६० | ३२० | २८० | २४० | २०० |
| देह | ऱ्हस्व | ऱ्हस्व | सम | सम | दीर्घ | दीर्घ | दीर्घ | दीर्घ | दीर्घ | सम | ऱ्हस्व | ऱ्हस्व |
| रंग | तांबडो | धवो | पाचवो | गुलाबी | धुळकट | मिश्र | निळसर काळो | भांगरा | पिंगट | करडो | मुंगूस वर्ण | गोरो |
| जातीवर्ण | क्षत्रिय | वैश्य | क्षुद्र | विप्र | क्षत्रिय | वैश्य | क्षुद्र | विप्र | क्षत्रिय | वैश्य | क्षुद्र | विप्र |
| भाग्योदय<br>वर्स | २८ | २५ | ३२ते३६ | २४ते२८ | २२ते२६ | ३२ते३६ | २५ | २८ते३२ | २६ | २६ | ३० | १६ते४० |
| गूण | तमो | रजो | रजो | सत्व | सत्व | रजो | रजो | तमो | सत्व | तमो | तमो | सत्व |
| संबंद | आदि<br>भौतिक | आदि<br>भौतिक | आदि<br>भौतिक | आदि<br>भौतिक | आदि<br>दैविक | आदि<br>दैविक | आदी<br>दैविक | आदी<br>दैविक | आध्या-<br>त्मिक | आध्य-<br>त्मिक | आध्य-<br>त्मिक | आध्य-<br>त्मिक |
| रविचंद्र<br>सत्ता | चंद्र | चंद्र | चंद्र | चंद्र | रवि | रवि | रवि | रवि | रवि | रवि | चंद्र | चंद्र |

## नखेत्रांची म्हायती

| नखेत्र नांव | राशी | चरण स्वामी | पाद/योनी | संज्ञा/मुख | गण/नाडी | लोचन संज्ञा | दैवत/दान | तत्त्व | भुगोलीक म्हायती | इंग्लीश नांव | तारका | नखेत्र स्वामी | आकृती | आराध्य वृक्ष | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | २ | ३ | ४ | ५ | ६ | ७ | ८ | ९ | १० | ११ | १२ | १३ | १४ | १५ | |
| १. आश्विनी | मेष | मं.शु.बु.चं. | चतु:ष्पाद<br>अश्वयोनी | क्षिप्र तीर्थमुखी | देवगण<br>आद्यनाडी | मंदलोचनी | आश्विनी<br>कुमार<br>अन्नदान | वायू | न. लांबाय<br>१° ते १३°-२०<br>व श र<br>उत्तर ८°-२९<br>क्रांती उ.<br>२०-४० | बीटा<br>एरिटस् | | ३ | केतू | इंग्लीश जे<br>(वा पायमोजो<br>वा घोड्याचें<br>तोंड) | कूचला |
| २. भरणी | मेष | र.बु.शु.मं. | चतुष्पाद<br>गजयोनी | उग्र/अधोमुख | मनिसगण<br>मध्यनाडी | चिबट | यम श्वेतवस्त्र | अग्नि | न. लांबाय<br>१३°-२० ते<br>२६°-४०<br>शर उ. १०°-२७<br>आनी क्रांती<br>उ. २७° - ८' | एटरेस | | ३ | शुक्र | योनीसारकी<br>त्रिकोणासारकी | आवळी |
| ३. कृतिका | मेष<br>वृषभ | गु.श.श.गु. | त्रिपाद मेषयोनी | मिश्र अधोमुख | राकेसगण<br>अंत्यनाडी | सुलोचन | अग्नि<br>भांगर | अग्नि | न. लांबाय<br>२६° - ४०' ते<br>४०°- ०' शर<br>उ. ४०° ३'<br>क्रांती उ. २४° १' | इटाटरी | | ६ | रवि | उघडलेलो<br>धारेचो<br>वस्तरो/<br>कानांतलो डूल | उंबर<br>(रुमड) |
| ४. रोहिणी | वृषभ | मं.शु.बु.चं. | चतु:ष्पाद<br>सर्पयोनी | ध्रुव<br>उर्ध्वमुखी | मनिसगण<br>अंत्यनाडी | अंधलोचन | ब्रह्मा दूध | धर्तरी | न. लांबाय<br>शर ५°-२८<br>क्रांती उ. १६°-२७' | आल्डेबरान<br>४०° ते ५३°-२०' | | ५ | चंद्र | इंग्लीश व्हि | जांबळ<br>वा शकराभाशेन |
| ५. मृगशीर्ष | वृषभ<br>मिथुन | र.बु.शु.मं. | द्विपाद<br>सर्पयोनी | मृदू<br>तीर्थमुखी | देवगण<br>मध्यनाडी | मंदलोचन | चंद्र<br>खीर | वायू | क्रांती ३.९°-५५<br>वा शर द. १३°-२२'<br>न. लांबी ५३°-२०'<br>ते ६६°-४०' | लांबडा<br>ओरापण | | ११ | मंगळ | | खैर |
| ६. आर्द्रा | मिथुन | गु.श.श.गु. | चतु:ष्पाद | वायू | मनीसगण | चिबट | शंकर | उदक | न. लांबाय | ग्यामा | | १ | राहू | चकचकपी | कृष्णा |

| | | | | | | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | | | श्वानयोनी | उर्ध्वमुखी | आद्यनाडी | | काळी गाय | | ६६°-४०' ते ८०° शर द. ६°-४०' क्रांती उ. १६°-२६' | जेमीबीरम | | | मणी | गुरू |
| ७. पुनर्वसू | मिथून कर्क | मं.शु.बु.चं. | त्रिपाद मार्जार | चर तिर्थमुखी | देवगण आद्यनाडी | सुलोचन | आदिती उडिद, तीळ | वायू | न.लांबाय ६०° ते ९०° -२०' शर उ. ६° - ४२' क्रांती उ. २८°- ०६' | पोलक्स | ४ | गुरू | घर शंकर पाळ्यासारको | वेळू |
| ८. पुष्य | कर्क | र.बु.शु.मं. | चतुष्पाद मेष | क्षिप्र उर्ध्वमुखी | देवगण मध्यनाडी | अंधलोचन | बृहस्पति रक्तवस्त्र | अग्नि | न. लांबाय ९३°-२०' ते १०६° - ४०' शर ३०° - ४' क्रांती १८° - १६' | डेल्टाकांक्रो | ३ | शनि | त्रिकोनासारकी | पिंपळ |
| ९. आश्लेषा | कर्क | गु.श.श.गु. | चतुष्पाद मार्जार | तिक्ष्ण अधोमुख | राकेसगण अंत्यनाडी | मंदलोचन | सोरोप तीळ, धनू | उदक | न. लांबाय १०६°-४०' ते १२०° शर दक्षिण १०°- ५६' क्रांती उ. १२° - १०' | झीटा हैड्रो | ५ | बुध | मराठी ९ आकारा सारकी | नागचांफो |
| १०. मघा | सिंह | मं.शु.बु.चं. | चतुष्पाद हुंदीर | उग्र अधोमुख | राकेसगण अंत्यनाडी | चिबट | पितर गोड, मीठ | अग्नि | न. लांबाय १२०° ते १३३°-२०' शर उ. ०°-२८' क्रांती द. ९°-५६' न. लांबाय | रेग्युलस | ५ | केतू | विळो/कोयत्या सारके | वड |
| ११.पूर्वा | सिंह | र. बु. शु. मं. | उग्र हुंदिर | अधोमुख | मनीसगण मध्यनाडी | सुलोचन | भग अन्नदान | अग्नि | न. लांबाय १३३°-२०' ते १४६° - ४०' शर ३९°-४२' क्रांती उ. १५°-३५' | थिटा लिओनिस | २ | शुक्र | हांतरूणा सारकी | पळस |
| १२. उत्तरा | सिंह कन्या | गु.श.श.गु. | त्रिपाद गो | ध्रुव उर्ध्व | मनीसगण आद्यनाडी | अंध | अर्चमा मोती | वायू | न. लंबाय १४६° - ४०' ते १६०° क्रांती उ. १४° - ४४' शर ३१२° - १६' | डेनीबोला | २ | रवि | हांतरूणा सारकी | सोंपण |

| | | | | | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १३. हस्त | कन्या | मं.शु.बु.चं. | चतुष्पाद महिषी | क्षिप्र तिर्थक | देव आद्यनाडी | मंद | सूर्य अन्नदान | वायू | न. लाबाय १६०° ते १७३°-२०' क्रांती द. १६°-२१' शर द. १२° ते १२' | डेल्टाकार्व्ही | ५ | चंद्र | हाताचो उघडलेलो बचको | जाय |
| १४. चित्रा | कन्या तुळ | र.बु.शु.मं. | द्विपाद वाघ | मृदू तिर्थक | राकेसगण मध्यनाडी | चिबीट | त्वष्टा पीत | वायू | न. लांबाय १७३°-२०'ते १८६° - ४०' क्रांती द.११°-०१' शार उ.२° - ३' | स्पायका | १ | मंगळ | मोतयां भाशेन | बेल |
| १५. स्वाती | तुळ | गु.श.श.गु. | चतुष्पाद महिषी | चर तिर्थक | देवगण अंत्यनाडी | सुलोचन | वायू तांबडीगाय | अग्नि | न. लांबाय १८६°-४०'ते २००° क्रांती उ. १९°-२०' शर उ.३०° - ४५' | आर्कट्यूरस | १ | राहू | प्रवाळप्रमाण | अर्जून |
| १६. विशाखा | तुळ | मं.शु.बु.चं. | चतुष्पाद वाघ | मिश्र अधो | राकेसगण अंत्यानाडी | अंध | इंद्राग्नि ताम्र | वायू | न.लाबाय २००°ते २१३°-२०' क्रांती द. १५°-५५' शर उ०°-२०' | आल्फा | ४ | गुरू | प्रवाळप्रमाण | नागकेशर |
| १७. अनुराधा | वृश्चिक | र.बु.शु.मं. | चतुष्पाद मृग | मृदू तिर्थक | देवगण मध्यनाडी | मंद | इश्ट शय्या | धर्तरी | न. लांबाय २१३°-२०' ते २२६° - ४०' क्रांती द. २२°-३२' शर द. १°-५९' | डेल्टा स्वामी | ४ | शनि | भाताची रास वा उगडलेली सत्री | नागकेशर |
| १८. जेष्ठा | वृश्चिक | गु.श.श.गु. | चतुष्पाद मृग | तीक्ष्ण तिर्थक | राकेसगण आद्यनाडी | चिबीट | इंद्र जोतें | धर्तरी | न. लांबाय २२६°-४०' ते२४०° शर द. ४०°-३४' क्रांती द. २६°-२२' | अंटारिस | ३ | बुध | उगडिल्ल्या सत्रेच्या दांड्यासारकी | सांबर |
| १९. मूळ | धनू | मं.शु.बु.चं. | चतुष्पाद श्वान | तीक्ष्ण अधो | राकेसगण आद्यनाडी | सुलोचन | निर्ऋती लोखण | उदक | न. लांबाय २४०° ते२५३°-२०' शर १३° - ४७' क्रांती द. ३७°-०५' | लांबोडो स्कार्पो | ११ | केतू | झाडाच्या मुळाप्रमाण | शळ |
| २०. पू.षाढा | धनू | र.बु.शु.मं. | चतुष्पाद माकड | उग्र अधो | मनीसगण मध्यनाडी | अंधलोचन | उदक कांबळ | उदक | न. लांबाय २५३°-२०' ते २६६° - ४०' शर उ. ३३°-२' क्रांती द. २५°-२६' | आल्फा डेल्फिनी | २ | शुक्र | हत्तीचो दांत वा हांतरुणा प्रमाण | वेत |

| | | | | | | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| २१.उ.षाढा | धनु<br>मकर | गु.श.श.गु. | त्रिपाद<br>मुंगूस | ध्रुव<br>अर्ध्व | मनीसगण<br>अंत्यनाडी | मंदलोचन | विश्वदेव<br>महिषी | धर्तरी | न. लांबाय<br>२६६°-४०′ते२८०°<br>शर उ.१°-२६′<br>क्रांती द. २१° - ४′ | पायसानिटरी | २ | रवि | हतयाची सोंड<br>वा पंचका<br>प्रमाण | पणस |
| २२. श्रणव | मकर | मं.शु.बु.चं. | चतुष्पाद<br>माकड | चर<br>ऊर्ध्व | देवगण<br>अंत्यनाडी | सुलोचन | विष्णु<br>जेवण | धर्तरी | न. लांबाय<br>२८०°ते२९३°-२०′<br>शर उ.२९° - १८′<br>क्रांती उ.८° - ४७′ | आ. देर | ३ | चंद्र | हंसपक्षाचो<br>पिसारो | रुई |
| २३. धनिष्ठा | मकर<br>कुंभ | र.बु.शु.मं. | द्विपाद<br>शींव | चर<br>ऊर्ध्व | राकेसगण<br>मध्यनाडी | अंधलोचन | वसु<br>भांगर-रुपें | धर्तरी | न. लांबाय<br>२९३°-२०′ ते<br>३०६°-४०′<br>शर उ.३३°-१′<br>क्रांती १५°-४८′ | आल्फा | ४ | मंगळ | चक्राकृती वा<br>मृदंगा भाशेन | शमी |
| २४. शततारका | कुंभ | गु.श.श.गु. | चतुष्पाद<br>घोडो | चर<br>ऊर्ध्व | राकेसगण<br>आद्यनाडी | मंदलोचन | वरूण<br>साकर | उदक | न. लांबाय<br>३०६°-४०′ते३२०°<br>शर द. ०° - २३′<br>क्रांती द. ७° - ४५′ | लांबडा<br>ॲक्लेरियस | १०० | राहू | वाटकुळी | कळंब |
| २५.पू.भाद्रपदा | कुंभ<br>मीन | मं.शु.बु.चं. | त्रिपाद<br>शींव | उग्र<br>अधो | मनीसगण<br>आद्यनाडी | चिबीट | अनैकचरण<br>भांगर | अग्नि | न. लांबाय<br>३२०°ते३३३°-२०′<br>शर उ.१९° -२४′<br>क्रांती उ.१५° - २३′ | मार्कान | २ | गुरू | व्हड चवकोन<br>खाटलें/बाजलें | आंबो |
| २६. रेवती | मीन | गु.श.श.गु. | चतुष्पाद<br>हत्ती | | देवगण<br>अंत्यनाडी | अंधलोचन | पुषा<br>महा | उदक | न. लांबाय<br>३४६° - ४०′<br>ते ३६०°<br>शर ३° - ४′<br>क्रांती उ. ५° - ५६′ | म्युपिशियम<br>वा<br>झीटापेशियम | ३२ | बुध | मृदंगाप्रामाण | मोह |
| २७. उ.भाद्रपदा | मीन | र.बु.शु.मं. | चतुष्पाद<br>गो | ध्रुव<br>उर्ध्व | मनीसगण<br>मध्यनाडी | सुलोचन | अहिर्बध्न्य<br>शेळी | उदक | न. लांबाय<br>३३३° - २०′ ते<br>३४६° ते ४०′<br>शर १२° - ३६′<br>क्रांती उ.१५° - १′ | आल्जेर्नाव | २ | शनि | व्हड चवकोन<br>वा<br>खाटलें/बाजलें | कडुलिंबू |

टिप : नखेत्रांतल्या चरणस्वामी हातूंत वापरिल्ल्या संक्षिप्त उतरांचें स्पश्टीकरण :

र. - रवि; चं. - चंद्र; मं. - मंगळ; बु. - बुध; गु. - गुरू; शु. - शुक्र; श. - शनि

- लक्ष्मीकांत मधुसुदन जोशी

## कुंडली

१.
प्रथम स्थान.
तनू स्थान, लग्न स्थान
केंद्र स्थान, स्वरूप, सभाव, शरीर प्रकृती
हांचो विचार. पुताचो भाग्योदय, आजी (बापायची
आवय) आवय हांचो विचार, घर भाव, उदेंत दिका, पुरूश
भाव, धवो रंग वर्चस्व,मेश रास, माथ्याचे विकार. कारक ग्रह रवि.

२. द्वितीय स्थान. धनस्थान. संपत्तीचो विचार, जेवण विचार, कुटुंबीक सुख,
तापटपणा, दादल्याचे कुंडलेंत बायलेची पिडा, बायलेचे कुंडलेत
घोवाची पिडा, कुटूंब स्थान, ईशान्य दिका पाचवो रंग,
थीर भाव, मान, ताळो, गळो, दोळे हांचेर
वर्चस्व कारक ग्रह, गुरू, स्त्री
भाव, पणफर स्थान.

३.
भातृस्थान.
पराक्रम स्थान,
भावंडां, नातलग,
शेजारी, ल्हान प्रवास,
उजवो कान, गळो, उरस्थाळ, खांदे,
हात, कंठमाधुर्य, दुय्यम वेवसाय, ईशान्य दिका,
पुरूश भाव, चरभाव, नारिंगी रंग
हात, खांदे, कान हांचेर
वर्चस्व. कारक ग्रह
मंगळ आपोक्लिम
स्थान.

४.
चतुर्थ स्थान.
केंद्र स्थान, सूख
स्थान, घर सूख, आवयचें सूख,
स्थावर, वाहन उत्तर आयुश्याचो काळ,
समाजीक कार्यां, मनाची ठेवण हांचो विचार,
उत्तर दिका, स्त्रीभाव, थीर भाव, तांबडो रंग, हड्डें,
स्तन द्वय, पोट हांचेर वर्चस्व. कारक ग्रह चंद्र - बुध.

५.
पंचम स्थान.
सुतस्थान, काव्य,
विद्या, संतती, उपासना,
सट्टो वेवार, दुसरीं भावंडां,
लक्ष्मीस्थान, पुरूश भाव, चर भाव,
त्रिकोणस्थान, पणफर स्थान, वायव्यदिका,
कृष्ण रंग. काळीज, फाट हांचेर
वर्चस्व. कारक ग्रह गुरू.

६.
षष्ठ स्थान.
रिपु स्थान शत्रु. मातूल
घराणें, पिडेस्त पण, नोकर - वर्ग,
संगती, गुप्तशत्रू हांचो बोध. उपयय स्थान.
आपोक्त्रिम स्थान, वायव्य दिका, स्त्रीभाव, थीर भाव, काळो
रंग, पोटाच्यो आंतकड्यो नाभि हांचेर वर्चस्व.कारक ग्रह मंगळ आनी शनि.

७.
सप्तम स्थान.
केंद्र स्थान. जायास्थान.
स्त्रीकुंडलींत भर्तृस्थान, प्रणय,
लग्न, भागिदारी, कोर्ट, खटले, वेवसायीक
प्रवास हांचो विचार, मारकस्थान. अस्तंत दिका.
पुरूश भाव, चरभाव, नारंगी आनी गुलाबी रंग, कमर
बस्ती, मूत्रपिंड हांचेर वर्चस्व. कारक ग्रह शुक्र.

८.
आठवें स्थान.
मृत्यू स्थान, मृत्यू.
अकस्मात लाभ. बायले कडल्यान धनलाभ,
मृत्यूपत्रां, अपघात, गुपीतधन, लांच घेवो, फौजदारी,
गुन्यांव हांचो विचार. नैर्ऋत्य दिका. पणफर स्थान. स्त्रीभाव.
थीर भाव. गुह्येंद्रियां, प्रजोत्पादन इंद्रियांचेर वर्चस्व. कारक ग्रह शनि.

९.
नवम स्थान.
धर्मस्थान, भाग्य,
तिर्थयात्रा, लोकाशिकप,
पयसचे प्रवास, ग्रंथ बरप,
प्रकाशन संस्था विश्वस्त हांचो
विचार, त्रिकोणस्थान.आपोक्लिम
स्थान. लक्ष्मी स्थान, पुरूश भाव,
चरभाव, पाचवो, धवो रंग, मांडयो
आनी कमराचेर वर्चस्व.
कारक ग्रह रवि
आनी गुरू.

१०.
कर्मस्थान.
केंद्रस्थान, दशमस्थान,
पितृसूख अधिकार,नोकरी
वेवसाय, मानसन्मान, प्रतिश्ठा, दक्षीण
दिका, स्त्रिभाव, स्थीर भाव, तांबडो रंग,
धोंपर हांचेर वर्चस्व कारक ग्रह रवि - गुरू -बुध - शनि.

११.
एकादश स्थान.
लाभस्थान. ऐश्वर्य,
सार्वजनिक पदां, सन्मान,
वडील भावंडां, वडिलांकडच्यान
अर्थीक लाभ, पणकर स्थान, उपयय
स्थान आग्नेय दिका, पुरुश स्थान,
चर भाव, केंसरी रंग, पोटऱ्यो
आनी घोंटे हांचेर वर्चस्व.
कारक ग्रह गुरू.

१२.
द्वादश स्थान. व्ययस्थान. किर्तीस्थान. मौक्षु. शैय्यासुख, बंदखण,
अध्यात्म प्रगती, आत्मघात, दिवाळखोर, रुग्णालयां, स्वच्छतागृह,
आपो क्लिम स्थान, स्त्री भाव, थीर भाव, पाचव्या
रंगाचो बोध. पावलांचेर वर्चस्व.
कारक ग्रह शनि.

**फसली सन :** मुसलमानी कालगणनेचो एक प्रकार. फसल म्हळ्यार शेताचें पीक. ताचेर आदारून आशिल्ल्या कालगणनेक फसली म्हण्टात. अकबर बादशहान इ. स. १५६३त ही कालगणना सुरू केली. इ. स. १६३६च्या सुमाराक शहाजहानान ती दक्षिणेकडेन चालू केली. पूण हे म्हायतीविशी इतिहासकारांमदीं एकमत ना. मोगलांची सत्ता दक्षिणेंत स्थापन जातकच तांच्या कागदपत्रांनी हे कालगणनेचो उल्लेख मेळटा. तांची मोगल राजवट सोंपली तरी निजामाचे राजवटींत ही कालगणना चालू आशिल्ली. थंय हिचो वर्सारंभ १ ऑक्टोबर ह्या दिसा करून आनू इंग्लीश म्हयन्यांत आजून पसून सुरू जावपी फार्सी सौर म्हयन्यांचीं नांवां दिवन इसवी वसाकडेन जुळोवन घेवप जातालें.

सूर्य मृग नखेत्रांत येतकच हें वर्स सुरू जाता आनी परत मृग नखेत्र येमेरेन चालू उरता. फसली सनांत ५९० वा ९९१ अदीक केल्यार इसवी सन येता. ह्या कारणान एकाच फसली वर्सांत दोन इसवी वर्सां येतात. फसली सनाची सुरवात पंजाब, बंगाल आनी उत्तरप्रदेशांत पुनवे दिसा आश्विन वद्य पाडव्याक जाता. महाराष्ट्रांत हो आरंभ पोरणे पद्दतीन २४ वा २५ मेक आनी नवे पद्दतीन ४, ५, वा ६ जूनाक जाता. मद्रासांत आदल्या तेंपार ह्या फसली सनाचो आरंभ कर्कसंक्रमणाचेर जातालो. इ. स. १८००च्या सुमाराक १३ जुलय हो आरंभ दीस आशिल्लो. इ. स. १८५५ सावन एक जुलय हो तांचो आरंभ दीस मानूक लागले.

शेतांतलीं पिकां पावसाचेर म्हळ्यार सौर कालगणनेचेर आदारून आशिल्ल्यान धान्याच्या रुपान करवसुलीचो चांद्र कालगणनेकडेन मेळ बसना जालो. देखून फसली ही कालगणना मुसलमान राजकर्त्यांनी सुरू केली.

– कों. वि. सं. मं.

**फळ :** वनस्पत गटांतल्या प्रजोत्पदनाखातीर उपेगात येवपी वनस्पतीचें एक आंग (इंद्रिय). फुलांतल्या बीजक ह्या इंद्रियाचें फलन प्रक्रियेंतल्यान बीजंत रुपांतर जाता. बीजकांची फुलांतली सुवात किंगजपुटांत आसता. आनी ह्या बीजकांच्या फलना उपरांत, किंगजपुटांचें रुपांतर फळांत जाता. बीजाचें संरक्षण, पोशण आनी प्रसारण अशी तिट्टी कामगिरी फळाकडल्यान जाता. कांय वनस्पतींचे बाबतींत (देवदार, सुरू) बीजा भोंवतणी कसलें आवरण नासता. तांकां प्रकटबीज (उक्तें बीज) म्हण्टात. कांय वनस्पतींचे बाबतींत (आंबो, पणस) बीजा भोंवतणी आवरण आसता. तांकां आवृत्त बीज (धापिल्लें बीज) म्हण्टात. सर्वसादारणपणान आवृत्त बीज प्रकारांत फळ ही संज्ञा वापरप जाता.

फलन म्हळ्यार पुं. आनी स्त्री-प्रजोत्पादक घटकांच्या संयोगाचे प्रक्रियेन उत्तेजित जाल्ल्यान बीजकांचीं बीजां जावप किंजपुटाचें फळ जावप असो क्रम आसा. म्हळ्यार फलनाबगर बी आनी फळ तयार जायना. पूण हाका कांय आडवाद आसात. देखीक - केळीचें फळ फलनाबगर जाता, पूण बीं तयार जालेंच जाल्यार तें वांझ आसता. ह्या प्रकाराक 'अनिषेक फलन' म्हण्टात. किंजपुटाक इंडॉल ॲसिटिक, इंडॉल ब्युटिरिक आनी बीटानॅप्थॉक्सी-ॲसिटिक हीं अम्लां वा ते प्रकारची रसायनां लावन कृत्रिम रितीन हो प्रकार तयार करतात. किंजपुटाबगर फुलांतलो हेर भागूय केन्नाकेन्ना फलन प्रक्रियेन उत्तेजित जावन फळाभशेन भाग तयार जातात. काजू, बिबो हांच्या फुलाच्या देठांचो कांय भाग मासाळ जाता आनी खरें फळ ताचेर दशिल्लें दिसता, तें घट कवचाचें आसता. सफरचंदाचो आनी नासपतीचो गोड आनी खावपाचो भाग (गर) चडकरून फुलांतल्या तळभागाकडे (पुष्पस्थली) आसून ताणें खऱ्या फळाक पुरायपणान धांपिल्लें आसता. तवशें वा पेर हांच्या फळाक पुष्पस्थलीचें वेश्टण आसता. पूण मासाळ भाग चडसो किंजपुटांतलो आसता. अंजीर आनी रुमडाच्या फळांतलो मासाळ आनी खावपाचो भाग तांच्या विशिश्ट फुलोऱ्याच्या पोकळ देंठापसून जाल्लो आसून खरीं बारीक फळां तातूंत आसतात. पणस, अणस, तुती आनी बारतोंडी हांच्या फळांनी, फुलांतलें अक्ष, पुष्पबंधाक्ष आनी परिदळां हे भाग खऱ्या फळावांगडा वाडून त्या सगळ्यांचें मेळून एक विशिश्ट अशें संयुक्त फळ जाता. अशे तरेन खऱ्या फळाखेरीज हेर मुखेलपणान फळाभशेन दिसपी आनी अंशतः वा पुरायपणान फळांचे कार्य करपी भागाक 'छद्मफळ' म्हण्टात. वायंगें वा करमळ हांचो फुगिल्लो भाग संवर्त फळावांगडा वाडून ताचेर पक्कावस्थेंत दिसता. पूण तो फळाचो मुखेल भाग नासता. कांय प्रकटबीज वनस्पतींनी, छदां, छदकां वा शल्कासारके भाग बीजाभोंवतणी कांय अंशी वा पुराय वाडून तांचें मासाळ वेश्टन जाता; पूण तें खरें फळ नासता कारण ह्या वस्पतींनी किंजपुट नासता. पूण सामान्यपणान लोक ताका 'फळ' म्हण्टात. आवृत्तबीज वनस्पतींच्या वर्गीकरणाक आनी विंगड विंगड वनस्पती वळखुपाक तांच्या फळांची संरचना आनी तांचे शास्त्रीय प्रकार खबर आसप गरजेचें आसता.

फळ हें सदांच गोड, आंबट, मासाळ, रसाळ वा विशिश्ट तरेचे रुचीचें, स्वादिश्ट आसप आवश्यक आसा अशी कल्पना फळाविशीं सादारणपणान लोक बाळगितात. पूण तशें तें सदांच आसूंक जाय हाका शास्त्रीय आदार ना. कितलींशींच फळां, देखीक - टॉमाट, वायंगें, तवशें, कारलें, मिरसांग, वाटाणो 'भाजयो' ह्या प्रकारांत मोडटात. ताचो आकार आनी चवूय सर्वसादारण कल्पनेपरस वेगळी आसता.

फळांचो रंग, आकार, वास, रूच, गाभो आनी तातूंतल्या पदार्थांची रसायनीक संघटना; बियांची संख्या, रंग, आकार आनी फळाचे सालीकडे तांचे संबंद ह्या बाबींतली विविधताय सगळ्यांक खबर आसता; पूण फुलांतलें किजमंडल, पुष्पस्थली, देंठ ह्या भागांचे एकमेकांकडले संबंद ह्या सगळ्यांचो विचार करून फळांचें वर्गीकरण करप जाता. फळाची साल आनी तातूंतली बी हे फळाचे दोन मुखेल भाग आसात. फळाची साल आनी तातूंतली बी हे फळाचे दोन मुखेल भाग आसात. फळाची साल पातळ वा दाट, घट, मोव, सुकी, सुतांनी भरिल्ली, रसाळ वा मासाळ आसूं येता. तिचें भायलें कवच, मदलें कवच आनी भितरलें कवच अशे तीन पदर केन्नाकेन्नाय दिसतात. देखीक - आंबो, नाल्ल. पूण तिगांयचो एकूच सलग पदरूय आसता. देखीक - भूंयमूग, पावटो, घेवडो वाटाणो हांच्यो शेंगो सुकतकच आपोआप फुट्टात पूण काजू, सूर्यफुल हांचीं फळां फुटनात. मासाळ फळां आनी सुकीं एकबीजी फळां हीं अस्फुटनशील. पूण खूब बीजां आशिल्लीं सुकीं फळां चडकरून आपोआप फुट्टात तीं स्फुटनशील. ज्या किंजपुटापसून फळ जाता तो ऊर्ध्वस्थ (देखीक - आंबो) वा अधःस्थ (देखीक - तवशें) आशिल्ल्यान तींच विशेशणां फळांकय लायतात. ऊर्ध्वस्थ फळांच्या (देखीक - वायंगें, चिकू) तळाकडे आनी अधःस्थ फळाच्या तोकाचेर (देखीक - पेर, दाळिंब, सफरचंद) चडकरून संवर्त दिसतात. ताचेवयल्यान तांचें वेगळेपण समजता.

एका फुलांतल्या फकत एका किंजदळापसून तयार जाल्ल्या वा एकापरस चड किंजदलां एकठांय जावन तयार जाल्ल्या संयुक्त किंजपुटाच्या फळाक 'सादें' फळ म्हण्टात आनी एका फुलांतल्या जायत्या सुट्या किंजदलांच्या किंजपुटापसून तयार जाल्ल्या फळांच्या चोम्याक 'घोंसफळ' (संघफळ) म्हण्टात, देखीक - हळदुवो चाफो, पाचवो चाफो, सीताफळ, आनी हातूंतलें एक ल्हान फळ एक सादें फळ आसता. चड फुलांच्या घोंसांतल्या किंजपुटापसून तयार जाल्ल्या एकरूप फळाक संयुक्त फळ म्हण्टात, देखीक - अणस, रुमड, हातूंत खुबशीं सादीं फळां आस्पावतात. फळांच्या तपशीलवार वर्गीकरणांत किंजपुटाचीं लक्षणां, किंजदलाची संख्या, गराचो प्रकार, बियांची संख्या, फळाचे सालीचे पदर, फळ फुटपाचे प्रकार ह्या गजालींचो विचार करून फळांचे विंगड विंगड प्रकार आनी उपप्रकार वळखप जातात.

**अ) सादीं असफुटनशील शुश्क फळां :** १) कृत्स्न - हें फळ किंजदलापसून तयार जाल्लें ऊर्ध्वस्थ, एकबीजी, फलावरण पाताळ, शुश्क आनी बीजावरणापसून वेगळें आसता. फळ आनी बी एकमेकापसून वेगळीं नासतात. ह्या फळांक कृत्स्न फळां म्हण्टात.

२) सस्यफल - हें फळ कृत्स्नाभशेन आसून फलावरण आनी बीजावरण एकमेकांक दशिल्लें आसता. देखीक - मको, गंव आनी हेर तणां.

३) संकृत्स्न - हें फळ दोन किंजदलाच्या पूण एका संयुक्त अधःस्त किंजपुटापसून तयार जाल्लें आसता. देखीक - सूर्यफूल.

४) क्लोम - फलावरण पातळ आनी फुगिल्ली, बी एक वा चड आनी मेकळी.

५) कपाली - चड किंजदलांपसून तयार जाल्ल्या एका संयुक्त किंजपुटाचें घट्ट फलावरणाचें चडशें एकबीजी फळ.

६) सपक्ष - हांगा कृत्स्नफलाच्या आवरणापसून पंख्याभशेन अवयव जाता आनी असलीं फळां वाऱ्यान पयस पडटात.

**आ) सादीं स्फुटनशील शुश्क फळां :** हे तरेच्या फळांचे खूब प्रकार आसात. फळाचेर केन्नाय स्पश्ट दिसपी दोन शिवणींभितरल्या एका वा दोनांयचेर उबी, चीर पडून फळ फुट्टा; हाका 'सेवनी स्फुटन' म्हण्टात. घोळीच्या आनी कुरडूच्या फळाक भोंवतणी गोलाकार चीर पडून फळ डबयेच्या धांपण्याभशेन फुट्टा, ताका 'वृत्तीय स्फुटन' म्हण्टात. अफूच्या आनी स्नॅपड्रॅगॉनच्या फळांक ल्हान बुराक पडून तातूंतल्यान बियो भायर पडटात, म्हूण ताका 'छिद्रल स्फुटन' म्हण्टात. एकापरस चड किंजदलांपसून तयार जाल्ल्या संयुक्त किंजपुटाच्या फळांचें म्हळ्यार बोंडांचें स्फुटन तीन प्रकारांनी जाता. फळावयल्या संधिरेशेचेर चीर पडून फळ फुट्टा तेन्ना 'पटभिदुर'; जितकीं किंजदलां तितकी फळाचीं शकलां जातात आनी दर एका शकलावांगडा बीजकाधानी आनी बी स्वतंत्र जाता. फळाच्या पृश्टसेवनीचेर चिरो पडून तें फुट्टा तेन्ना पड्डे तशेच उरून, दर एका शकलाच्या मदीं ते दसून रावतात आनी ताचेर बियो आशिल्ल्यान शकलावांगडा त्यो स्वतंत्र जातात. हाका 'पुटकन्निदुर' म्हण्टात. तिसरो प्रकार काळ्या आनी धव्या धोतराच्या फळांनी दिसता. हातूंत पड्डे फुटिल्ल्यान बियो फळाच्या मदीं अक्षाक दसून उरतात, हाका 'पटभंगुर' म्हण्टात. ह्या सगळ्या स्फुटन प्रकारांवयल्यान फळांचे प्रकार वळखप जातात.

१) पेटिका फळ - एका किंजदलापसून जाल्लें, एक वा चडबिजी आनी एकेच शिवणीचेर फुटपी (पेटयेभशेन उगडपी) फळ. देखीक - रुई

२) शिंबा - दोनूय शिवणींचेर फुटपी, सामान्यपणान शांग म्हूण वळखूपी फळ. देखीक - वाटाणो. ह्या फळाक अपवाद चिंचेची सांग. ती फुटना आनी तातूंत गर आसता.

३) सार्षप : दोन किंजदलांपसून तयार जाल्लें चडकरून लांब सांगेभशेन, बारीक पयलीं एका कप्प्याचें आनी फुडें छद्मपटाकलागून द्विपुटक म्हळ्यार दोन कप्प्यांचें जावपी आनी दोन उब्या चिरांनी सकयल्यान वयर फुटत वचपी फळ. बियो छद्मपटाक दसून आसतात. आनी दोन शकलां वेगळीं जातात. देखीक - सांसवां.

४) बोंड - हें एक वा चड बीजी आनी किंजदलांच्या संयुक्त किंजपुटापसून तयार जाल्लें ऊर्ध्वस्थ आनी तरातरांनी फुटपी फळ आसता. एकेकदां हें फळ फुटना. देखीक - भेंडो, कापूस.

**इ) भंगुर 'पालिभेदी' फळां :** हीं सुकीं फळां फुटून तांचे चडशे न फुटपी एकबीजी भाग स्वतंत्र जातात. कांय फळांचे हे भाग फुट्टात. हातूंत पांच प्रकार आसात.

१) मुद्रिका - ऊर्ध्वस्थ आनी चड कप्प्यांचें मदल्या अक्षाक सगळ्या किंजदलांनी सादिल्लें पक्वावस्थेंत जायते सुटे भाग जावपी आनी मुद्रेभशेन दिसपी फळ.

२) आंदोलिपाली - दोन बीजांचें, दोन कप्प्यांचें अधःस्थ आनी पिकतकच दोनूय एकबीजी भाग फळाच्या मध्य अक्षाक दसून पूण वेगळें लोंबपी फळ देखीक - शेपू, बडीशेप

३) मालाशिंबा - हातूंतले फलांश स्वतंत्र जातात. देखीक - लज्जेझाड.

४) पालिस्फोटी - ह्या फळाचे तीन वा चड फलांश स्फुटनशील आसून ते एकमेकांपसून सामके वेगळे जातात. हाकाच 'कुड्यो' म्हण्टात. देखीक - एरंडाच्या फळाच्यो तीन आनी जिरॅनियमच्या पांच कूड्यो जातात.

५) सपक्ष युग्मफल : दोन एकबीजी कप्पयांच्या किंजपुटापसून तयार जाल्लें आनी पुराय पिकतकच दोन पांखां आशिल्लें फलांशांचें हें फळ मॅपल नांवाच्या झाडाक येता.

**इ) सादीं मासाळ फळां :** १) अश्मगर्भी फळ - एक वा चड किंजदलांचें पूण एका संयुक्त किंजपुटाचे आनी चड करून एकबीजी आसून फलावरणाचे तीन पदर स्पश्ट आसतात. अंतःकवच हे घट आसून बियांक संरक्षण दिता; मध्यकवच मासाळ (देखीक - आंबो) वा सूतांचें (देखीक - नाल्ल, सुपारी) आसता; बाह्यकवच - सादारण कठीण सालीभशेन आसता. आंब्याची कोय म्हळ्यार बी आनी ताका वेटाळपी अंतःकवच रासबेरी आनी ब्लॅकबेरी हांच्या फळांनी खुबशीं अश्मगर्भी ल्हान फळां आसतात. नाल्ल आनी अक्रोड हांच्या फळांतलो खाद्य भाग बियांचें पुष्क म्हळ्यार बीजांतल्या गर्भाचें अन्न आसता.

२) मृदुफळां - हे तरेच्या मासाळ फळांनी घट अंतःकवच आसना. पूण हाच्यो बियो घट आसतात. देखीक - द्राक्ष, संत्र, टॉमाट, पेर . हांकां इंग्लिशींत 'बेरी' म्हण्टात. पूण स्ट्रॉबेरी, रासबेरी, ब्लॅकबेरी, मलबेरी हीं फळां हातूंतली न्हय. ह्या फळांत किंजदलांपसून तयार जाल्लें आसता. आनी फलावरणाचे तिनूय पदर स्पश्ट दिसताच अशें नासता. दाळींबांतलो रसाळ भाग बीजावरणापसून तयार जाता म्हूण अशा फळांक 'दाडिमसम' म्हण्टात. बेल, गोरखचिंच हांच्या मृदुफळांचें बाह्यकवच कठीण आसून मासाळ गरांत बियो आसतात, म्हूण ह्या फळाक 'धनकवची' म्हण्टात. लिंबू, संत्र, मोसंबी ह्या रसाळ आनी चड कप्पयांच्या मृदुफळांतले मधुर

रस. पातळ अंत:कवचावयल्या केंसांनी भरील्लो आसता, हाका 'जॅबीरसम' म्हण्टात. तवशें, काळिंग ह्या सारक्या सालींच्या अध:स्थ मृदुफळांतलो रसाळ भाग चडसो बीजकाधानीसावन जाल्लो आशिल्ल्यान ताका 'कर्कटी फल' म्हण्टात. सफरचंद, नासपती सारक्या मृदुफळांक 'आक्रांत' म्हण्टात.




१. बाह्य कवच २. मध्य कवच ३. अंत:कवच ४. बी. ५. गर

३) घोसफळां - हीं फळां एकाच फुलांतल्या मेकळ्या किंजदलांपसून स्वतंत्रपणान जाल्ल्यान थंय दोन वा चड ल्हान साद्या फळांचो चोमो जाता. केन्नाकेन्नाय पक्वावस्थेंत त्या सगळ्यांचें एकूच फळ जाता. देखीक - रामफळ, सीताफळ. अशा घोसफळांतल्या साद्या फळांच्या सगळ्या लक्षणांप्रमाण विंगड विंगड प्रकारांचीं घोसफळां वळखुपाची पद्दत आसा. देखीक - कृत्स्न फळाचें घोसफळ देखीक - मोरवेल; अश्मगर्भी फळाचें घोसफळ देखीक - रासबेरी, ब्लॅकबेरी; मृदुफळांचें घोसफळ देखीक पाचवो अशोक; पेटिकाफळांचे घोसफळ देखीक - सोनचाफो, स्ट्रॉबेरीत पुष्पस्थली मासाळ जाता आनी तातूंत खरी कृत्स्नफळां पातळिल्लीं आसतात. तें खरें मृदुफळ (बेरी) न्हय, पूण तें छद्मी प्रकाराचें फळ थारता.

**ऊ) संयुक्त फळां -**

हीं फळां पुराय फुलोऱ्यापसून म्हळ्यार तातूंतल्या दर एका फुलाच्या किंजपुटापसून पूण तीं सगळीं एकठांय वाडून जातात. हातूंत दोन मुखेल प्रकार मेळटात.

१) कणिश फुलोऱ्यापसून जाता ताका फलपुंज आनी

२) कुंभासनीपसून म्हळ्यार वाटकुळ्या आनी बंद उरपी फुलोऱ्यापसून जाता ताका 'औदुंबरिक' म्हण्टात. अणस, पणस, तुती हातूंत फलपुंज मेळटा. तुतीचीं खरीं फळां कृत्स्न प्रकाराचीं म्हूण तें 'मृदुफळ न्हय. पणसाचे गरे परिदलापसून जातात आनी खरीं फळां ताणीं वेटायल्लीं मृदुफळां आसतात. वड, पिंपळ, रुमड, अंजीर हांचीं खरीं फळां कृत्स्न प्रकाराचीं आनी तीं मासाळ पुष्पबंधाक्षाच्या फुगीर पोकळींत आसून सदांच धांपिल्लीं आसतात.

उपेग, वनस्पत वर्गाखातीर फलोत्पदनाचें साधन म्हणून फळांचे प्रयोजन आसलें तरी खूब आदींसावन अन्न, तेल, वखद, पेय, धर्मीक वस्त म्हूण फळाचो उपेग मनशाकडल्यान जायत आयला. आधुनिक काळांत हालवो, जेली, लोणचें चटणी अशे खाद्य प्रकाराखातीर फळांचो व्हड प्रमाणात उपेग जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**फॅब्लो :** फॅब्लो वा फावल्यो हो मदल्या युगांतलो फ्रेंच पद्यकथांचो एक प्रकार. सादारणपणान बाराव्या शतमानाचे निमाणें आनी चवदाव्या शतमानाचे सुर्वेक ह्या काळांत ह्यो कथा फ्रांसांत रचिल्ल्यो. आठ मात्रांचो वृत्तांत बरयल्ल्यो ह्यो पद्यकथा ३०० ते ४०० वळींच्यो आसताल्यो. सर्वसादारण दीसपट्ट्या घडणुकांचेर ह्यो कथा आदारिल्ल्यो आसताल्यो. देखून तांकां एके तरेची वास्तववादी फाटभूंय आसताली. पूण तांचे रचणूकेंत कांय प्रमाणांत गांवगिरेपण दिश्टी पडटालें. तातूंतलो विनोद ढोबळ आनी कांय खेपे किळसवाणो आसतालो. भोळे आनी तापपी दादले, फटींग आनी हुशार बायलो, आळशी आनी लोभी अशे धर्मगुरू हांच्यो व्यक्तिरेखा ह्या कथांतल्यान रंगयताले. तशेंच ह्या कथांवरवीं बायलांविशींचो कोडू उपरोध स्पश्टपणान व्यक्त जातालो. त्रूबदूर ह्या दक्षीण फ्रांसांतल्या मध्ययुगांतल्या कवींनी आपल्या कवितेवरवी नारीपुजेचो एक आगळो आविश्कार घडयलो आनी बायलाचें देवताकरण केलें. ताची प्रतिक्रिया ह्या कथांतल्यान व्यक्त जाल्ली आसुंये अशें कांय समिक्षकांचें मत आसा.

ह्यो कथा मुळांत उदेंती देशांतल्यान आयल्यात आसुये हें एका काळांत मानताले. आज अशें मत मान्य करनात. सद्या उपलब्ध आशिल्ल्या सुमार १५० पद्यकथांतल्यो कांय पद्यकथा फ्रांसांतूच रचिल्ल्यो आसूंक जाय. फ्रेंच लोकांचीं खाशेलपणां, तांच्यो रिती, आनी शब्दप्रयोग हांचेर ह्यो आदारिल्ल्यो आसात. पूण तातूंत जायत्यो कथा अश्यो आसात, जातूंत खंयच्याच वाठाराची वा काळातली खास संस्कृतीक खाशेलपणां नासून खंयच्याय देशाक त्यो आपणावपाक येतात.

ह्या पद्यकथांचे बरेचशे कर्ते चड करून हेडगे आसताले. जीं थोडीं नांवां उपलब्ध जातात. तातूंत फिलीप द बोमाचार हो विधीवेत्ता आनी ऱ्यूतबफ हो कवी हांचो आस्पाव जाता. ह्यो उपलब्ध पध्यकथा स खंडांनी उजवाडाक आयल्यात (१८७२ - ९०).

– कों. वि. सं. मं.

**फॅसिझम :** इटलींत पयल्या म्हाझुजा उपरांत उदयाक आयिल्ली एक सर्वकश सत्तावादी आनी आर्विल्ली राजकीय विचारप्रणाली. एकपक्षीय हुकूमशायी, सत्तेचें केंद्रीकरण आनी अर्थीक तशेंच समाजीक जिणेचेर राज्याचें नियंत्रण हीं हे विचारप्रणालीचीं आनीक कांय खाशेलपणां आसात. दुस्वास आनी आक्रमण हांचेर आदारिल्ली मनोवृत्ती हे विचारप्रणालींत दिसता.

बेनितो मुसोलिनीन १९१९त सुरू केल्लें चळवळीक फॅसिझम अशें नांव दिलें. फॅसिझम हें नांव फॉस ह्या लॅटीन शब्दावयल्यान आयलां.

फॉसेस म्हळ्यार कुराड. ही निशाणी अधिकाराची भावना स्पश्ट करता. पयल्या म्हाझुजाउपरांत सबंद युरोपांत गोंदळाची परिस्थिती निर्माण जाल्ली. इटलींतूय समाजीक आनी अर्थीक परीस्थिती बिकट जाल्ली. गरजेच्या वस्तूंची तूट आशिल्ली आनी बाजाराभाव खूब वाडिल्लो. बेकारेचें प्रमाण खूब वाडिल्लें. कामगार वर्गांत बंडखोर प्रवृत्ती वाडिल्ली. रशियेंत सत्तेर आयिल्ल्या कम्युनिश्ट पक्षाची देख तांचेमुखार आशिल्ली. इटलींतल्या कामगारांनी १९२० च्या सुमाराक खूब संप केले आनी कांय सुवातांनी ताणीं कारखानेय ताब्यांत घेतले. भांडवलदार आनी हेर प्रस्थापीत वर्गाक ही परिस्थिती खूब भिरांकूळ दिसली. तांकां आपलो शेक आनी प्रचलीत समाजवेवस्था तिगोवन दवरपाखातीर कामगार चळवळ मुळासकट चेपून उडोवपाची आशिल्ली. हाका लागून ताणीं नव्यानूच वाडपी फॅसिस्ट पक्षाचो आदार घेतलो.

फॅसिझम सुरवेक तत्त्व वा वाद नाशिल्लो. हत्या, दहशत आनी समाजांत तणाव निर्माण करून सत्तेर येवपाची ती एक चाल आशिल्ली पूण सत्तेर आयले उपरांत मुसोलिनीन फॅसिझमाक एक खाशेली अशी चालना दिली. मुसोलिनीन उबारिल्ल्या फॅसिस्ट पक्षांत मुखेलपणान बेकार तरणाट्यांचो आस्पाव आशिल्लो. सुरवेक हो पक्ष ल्हान आशिल्लो. उपरांत भांडवलदारांच्या आनी हेर गिरेस्त लोकांच्या फाटबळान तो ल्हवल्हव वाडत गेलो. पूण राजकीय सत्ता हातांत आयले उपरांत ताची खरी वाड जाली. पयल्या म्हाझुजाक लागून इटलीची समाजीक आनी अर्थीक परिस्थिती साप्प इबाडिल्ली. राजा, सरदार, इगर्ज आनी गिरेस्त लोकांचो शेक आशिल्ल्या शासनाकूय लोक विटिल्ले. बेकारीय खूब वाडिल्ली. तांकां थीर आनी समर्थ सरकार जाय आशिल्लें. पयल्या म्हाझुजांत जैत मेळून लेगीत तांकां जाय आशिल्ले प्रदेश मेळूंक नाशिल्ले. हाका लागून इटलीचो व्हड मानभंग जाल्लो. ह्या सगळ्या गजालींचो फायदो घेवन व्हड व्हड आश्वासनां दिवन मुसोलिनीन आपणावटेन घुंवडायले. कामगार वर्ग सोडून बाकीच्या सगळ्या वर्गांच्या लोकांनी मुसोलिनीक सत्तेर येवपाक आदार केलो. राजकीय सत्ता घेवपाखातीर फॅसिस्टांनी २८ ऑक्टोबर १९२२ दिसा राजधानीच्या रोम शाराचेर मोर्चो काडलो. त्या रोम शारावयल्या मोर्चाचो फॅसिस्ट चळवळींत 'व्हडली वीरश्रीची घडणूक' म्हणून उल्लेख जाता. त्या मोर्च्याक कोणाचोच विरोध जालोना. फॅसिस्ट रोमांत रिगले उपरांत राजान आपूण जावन देशाचीं राजसुत्रां मुसोलिनीचे सुवादीन केलीं. राजान मूसोलिनीक प्रधानमंत्री केले उपरांत इटलींत फॅसिस्ट राजवट सुरू जाली.

सत्ता हातांत येनाफुडें मुसोलिनीन विरोधकांचो छळ सुरू केलो. फॅसिस्ट लोकशायी राज्यवेवस्था आनी लोकशायी हक्कांचेर विस्वास नाशिल्लो. लोकशाय आनी मनीस स्वातंत्र्याक लागून देशांत साबार पक्ष आनी पंथ निर्माण जातात. अशा राज्यांत फुटीर भावना निर्माण जावपाची चड संभव आशिल्ल्यान खंयचेंच खाशेलें अशें धोरण आपणावपाक कठीण जाता. राज्यकारभार वेवस्थीत चलोवपाक आनी उदरगत घडोवन हाडपाखातीर देशांत फकत एकूच मुखेली आसपाक जाय अशें मुसोलिनीचें मत आशिल्लें. हाका लागून मुसोलिनीन एकतंत्री राजवट सुरू करून आपणाक कोणाचोच विरोध जावंचो न्हय म्हूण हुकूमशायेची स्थापणूक केली. फॅसिस्ट पक्षाखेरीज हेर सगळे पक्ष बेकायदेशीर थरोवन, देशांतल्यो सगळ्यो राजकीय, अर्थीक आनी संस्कृतीक संस्था फॅसिस्ट पक्षाच्या शेकातळा हाडल्यो.

फॅसिझमाचें सुसंगत अशें तत्त्वगिन्यान ना. पूण ताचीं कांय तत्त्वां आसात. तांतूंतलीं कांय तत्त्वां प्लॅटो तशेंच आर्विल्ल्या युगांतलो हेगल हांचेसारक्या नामनेच्या तत्त्वचिंतकांच्या ग्रंथांत मेळटात. हे खेरीज मॅकिआव्हेली, हॉब्ज, नीत्शे, परितो हांचे सारक्या विचारवंतांच्या विचारांचोय फॅसिझमाचे विचारसरणीचेर परिणाम जाला. पूण जॉर्ज सॉरेल हाच्या हिंसक क्रांतीवादाचो फॅसिस्टांचेर चड परिणाम जाला. जाल्यार जोव्हानी जेंतीले आनी आल्फ्रेदो रॉक्को हे फॅसिझमाचे तत्त्वचिंतक म्हणून प्रसिद्द आसात.

फॅसिस्ट तत्त्वप्रणालींत राज्याक चड म्हत्व दिलां. राज्य हो मनीसशक्तीचो सर्वोच्च अविश्कार अशें फॅसिस्ट मानताले. फॅसिस्टवादांत मनीस स्वातंत्र्याक सुवात ना. मनशान आपलें जिवीत राश्ट्राखातीर ओंपून राश्ट्राचें म्हत्त्व वाडयत रावचें अशें तांचें म्हणणें. फॅसिस्ट लोक सत्ता आनी सामर्थ्याक सगळ्यांत श्रेश्ठ लेखताले. तशेंच मनशांतले झुजारी वृत्तीचें ते सदांच समर्थन करताले. तांच्या मतान झूज ही सैमीक क्रिया आसून इतिहास घडोवन हाडपाखातीर फकत झुजारीच धोरण आपणावचें पडटा. तांचे विचारसरणेंत शांततायवादाक सुवात नाशिल्ली. तांच्या मतान शांततायवाद ही दुबळ्या लोकांची येवजण. राश्ट्राची उदरगत घडोवन हाडपाखातीर तें राश्ट्र बळीश्ट आसून ताणें सदांच झुजाचे तयारेंत रावपाक जाय आनी बळीश्ट राश्ट्रचें धोरण फकत विस्तारवादीच आसपाक जाय.

इटलीचे वाडटे लोकसंख्येक चडांत चड प्रदेशाची गरज आसा. देखून देशाचो विस्तार वाडोवपाक जाय अशें मुसोलिनी थंयच्या लोकांक परत परत सांगतालो. ह्या तत्त्वांचेरूच इटलीन दुसऱ्या म्हाझुजांत वांटो घेतिल्लो.

इटलीक स्वयंपूर्ण राश्ट्र करप हें फॅसिस्टांचें मुखेल आनी निमाणें सपन आशिल्लें. हाका लागून देशाची पुराय अर्थवेवस्था फॅसिस्ट शासनाचे देखरेखीखाला हाडली. हे पासत ताणीं शासन नियंत्रीत अशो भांडवलदारांच्यो आनी कामगारांच्यो साबार संस्था उबारल्यो. त्या संस्थांतले अधिकारी फॅसिस्ट शासनाच्या मार्गदर्शनासकल आपआपलें धोरण थारयताले. अशे रितीन सबंद इटलींत १९३४ मेरेन सगळ्या क्षेत्रांनी फॅसिस्ट कल्पनांचो उपेग जावपाक लागलो. फॅसिस्ट कल्पनेप्रमाण दर एका जिल्ह्याखातीर उद्देजकांचें एक आनी कामगारांचें एक अशीं मंडळां तयार केलीं. अशा मंडळांचो एक संघ तयार जातालो. अशा साबार संघांचो एक म्हासंघ आसतालो. संबंद इटलींत अशे णव म्हासंघ आशिल्ले. उद्देगधंदे, शेतवड, वेपार आनी विमो ह्या क्षेत्रांनी तांचें कार्य चलतालें. तशेंच दर एका वेवसायाखातीर कामगार आनी कारखानदार हांचें एक मंडळ आशिल्लें. इटलींत अशीं बावीस मंडळां आशिल्लीं. तांच्या मुखेल्यांची नेमणूक मुसोलिनी करतालो. अशा सगळ्या मुखेल्यांचें एक राश्ट्रीय मंडळ आशिल्लें. ह्यो वेगवेगळ्यो संस्था देशाचे अर्थीक उद्देगीक आनी वेपारी क्षेत्रांचेर नियंत्रण दवरताल्यो.

सत्ता हातांत आयले उपरांत मुसोलिनीन सगळे विरोधी पक्ष आनी विरोधी संस्था मोडून उडयल्यो. देशांतलें कायदे मंडळ, नोकरशाय, लस्कर, खबरांपत्रां, शिक्षणीक आनी संस्कृतीक संस्थांचेर आपलो शेक बसोवन देशांत एक मुखेली, एक पक्ष आनी एक आवाज ही फॅसिझमाची कार्यावळ आचरणांत हाडली. ही कार्यावळ आचरणांत हाडटना ताणें विरोधकांचेर खूब अत्याचार केले आनी सगळ्या लोकांच्या हक्कांचेर चेपण हाडलें. हाचे उपरांत मुसोलिनीचें साम्राज्ययूग सुरू जालें.

फॅसिझमाच्या दोळ्यांमुखार सदांच रोमी साम्राज्याचें पडबींब आशिल्लें. त्या काळांत इटलीक जी प्रतिश्ठा लाबिल्ली ती परतून मेळोवपाचीं सपनां ते रंगयताले. तें सपन खरें करपाखातीर ताणीं व्हड लश्कर उबारलें. वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांतलो चडसो वांटो ते लश्कराचेर खर्च करपाक लागले.

राज्याचो विस्तार करचेखातीर मुसोलिनीन १९३५त ॲबिनियाचेर घुरी घालून तो आपल्या शेकातळा हाडलो. इटलीचें साम्राज्य वाडोवपाखातीरूच मुसोलिनीन १९३९त जर्मनी आनी जपान ह्या फॅसिस्टवादी राश्ट्रांवांगडा दुसऱ्या म्हाझुजांत वांटो घेतिल्लो. पूण अमेरिका, रशिया, ब्रिटन आनी फ्रांस राश्ट्रांनी मेळून दुसऱ्या म्हाझुजाक फॅसिझम विरोधी झूज अशें स्वरूप दिवन इटली, जर्मनी आनी जपानाचेर हार घाली. फॅसिस्ट राश्ट्रांचेर हार पडले उपरांत ताणीं उबारिल्ल्यो संघटना आनी तांची हुकूमशाय काबार जाली.

मुसोलिनीच्या फुडारपणाखाला फॅसिझमाची वाड जाले उपरांत तो फकत इटलींतूच मर्यादीत उरलोना. इटलींत पांय रोमतकच तो जर्मनी, जपान, स्पेन, पुर्तुगाल, आर्जेंटिना ह्या देशांनीय पातळ्ळो. जर्मनींत हिटलराच्या फुडारपणाखाला नाझी पक्षाच्या रुपान ताणें सामकें विकृत आनी भयांकृत स्वरूप धारण केलें. दरेका देशांत फॅसिझमाचें स्वरूप थंयचे परिस्थिती प्रमाण वेगळें आशिल्लें. हाचें कारण म्हळ्यार, फॅसिझमाक सुस्पश्ट आनी सुसंगत अशें तत्त्वगिन्यान नाशिल्लें. देखीक - जर्मनींत वंश तत्त्वाचेर भर आशिल्लो. इटलींत फॅसिझम पुर्विल्ल्या रोमी साम्राज्याप्रमाण इटलीचें साम्राज्य निर्माण करपाचें सपन आशिल्लें. जपानान विस्तारवादी धोरण आपणायल्लें. पूण सगळ्या फॅसिस्टवादी राश्ट्रांनी झुजारी वृत्तीचेर भर दिल्लो. झुजांत मेळपी जैत आनी उपरांत मेळपी वैभवाची आशा दाखोवन सगळ्या फॅसिस्ट मुखेल्यांनी आपआपल्या देशांतल्या लोकांक आपल्या कार्यांत ओडून घेतले.

– कों. वि. सं. मं.

**फातर्पेकार, मनोहर त्रिंबक :** (जल्म : २८ डिसेंबर १९२९, कारवार).

सुटकेझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. सुटकेझुजारी आल्फ्रेड आर्फोस हाच्या फुडारपणाखाल ताणें १५ ऑगस्ट १९७४ ह्या दिसा तेरेखोलाक सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. ह्या सत्याग्रहाच्या दुसऱ्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी पणजे व्हेलो. ताका प्रादेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली आनी दोन वर्सां सुरक्षिततायेखाला दवरलो. ताका रेयश मागूश आनी आग्वाद बंदखणींनी दवरिल्लो. २८ डिसेंबर १९५७ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. महाराष्ट्र सरकारानूय ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**फायनमन, रिचर्ड फिलिप्स :** (जल्म ११ मे १९१८, न्यूयॉर्क.)

अमेरिकन भौतीकशास्त्रज्ञ. मॅसॅच्युसॅट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजींतल्यान ताणें बी. एस्. ही पदवी १९३९ त मेळयली. प्रिन्स्टन विद्यापिठांतल्यान ताणें १९४२त डॉक्टरेट मेळयली. दूसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत ताणें लॉस ॲलॅमॉसांत अणुबॉबाविशीं म्हत्वाचें संशोधन केलें. १९४५त तो कॉर्नेल विद्यापिठांत सैद्धांतिक भौतीकशास्त्राचो सहयोगी प्राध्यापक जालो. १९५०त ताची कॅलिफोर्निया इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजींत सैद्धांतिक भौतीकशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून नेमणूक जाली.

डिरॅक, हायझेनबर्क, पाउली, फेर्मी ह्या शास्त्रज्ञांनी १९२० उपरांतच्या १०-१२ वर्सांमदीं पुंज विद्युत्, गतिकी ह्या भौतिकीच्या फांट्याची स्थापणूक केली. ह्या फांट्यांत सापेक्षताय सिद्धांत आनी पुंज सिद्धांत हांच्या आदारान विद्युत् भारीत भूलकण आनी विद्युत् चुंबकीय क्षेत्र हांचेमदल्या परस्पर क्रियांचो अभ्यास करतात.

गुणात्मक नदरेन हे सिद्धांत ह्या परस्पर क्रियांची बरोबर वर्णनां दिवंक शकतात, अशें दिसलें, पूण ताचेवयल्यान खंयचेच संख्यात्मक निश्कर्श काडप अशक्य आशिल्लें. हाचें कारण म्हळ्यार संबंदीत समीकरणांतली काय पदां अनंत श्रेणीच्या स्वरुपांत आसतात आनी ताका लागून ह्या समीकरणांच्यो जापो काडप एक तर अशक्य जाता वा कांय जापो काडल्योच जाल्यार तांचेवयल्यान काडिल्ल्यो जापो विसंगत येतात.

हे अडचणीचें निराकरण केलें ना; पूण ती टाळपाची एक युक्ती फायनमन हाणें काडली. ताणें अशें दाखयलें, इलेक्ट्रॉन आपल्या आपणाच्याच विद्युत् चुंबकीय क्षेत्राकडेन परस्पर क्रिया करता. ताका लागून ताचें वस्तूमान आनी विद्युत् भार हांचेसारके राशींत थोडोसो फरक पडटा. हो फरक मतींत घेवन समीकरणां मांडलीं जाल्यार तातूंतल्या अनंताप्रत वचपी पदांचें गणन करिनासतनाय समीकरणांच्यो अदमास जापो काडूं येतात. ह्यो जापो प्रायोगिक मुल्यांकडेन जुळटात अशें दिसतां.

हे पद्दतींतलो सहाय्यक म्हणून ताच्या नांवान प्रसिद्द आशिल्ल्या 'फायनमन आकृती'ची ताणें कल्पना मांडली. श्विंगर आनी टॉमोनागा हांचे पद्दतीपरस फायनमन हाचीं समीकरणां सोडोवपाची पद्दत चड सोंपी आनी संक्षिप्त आसा.

फायनमन हाचें दुसरें म्हत्वाचें कार्य नीच तपमान भैतिकीच्या मळावयलें आसा. अतीप्रवाही हिलीयम (II) ह्या द्रव्याची गती फकत अधूर्णनीय (भोंवऱ्यासारकी नाशिल्लीच) आसूंक जाय, असो सैद्धांतिक निश्कर्श एल्. डी. लॅंडा ह्या रशियी शास्त्रज्ञान काडिल्लो. पूण प्रत्यक्ष प्रयोगांत अशें दिसलें, ह्या द्रव्यांत धूर्णनी गती निर्माण करूं येता. हे विसंगतीची समाधानकारक सोडवणूक फायनमन हाणें पुंजयमिकी वरवीं केली. बीटा कणांच्या उत्सर्जनाखातीरच्या म्हत्वाच्या सिद्धांताच्या संशोधनाखातीर मरी गेल - मान हाचे इतलेंच श्रय फायनमन हाका वता.

१९६६ वर्साचो भौतीकशास्त्र ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फायनमन हाका अमेरिकी भौतीकशास्त्रज्ञ ज्युल्यॅन सीमॉर श्विंगर आनी जपानी भौतीकशास्त्रज्ञ शिन - इचिरो टॉमोनागा हांचेवांगडा पुंज (quantum) विद्युत् गतिकींतल्या ताच्या म्हत्वाच्या संशोधनाखातीर वांटून फावो जालो.

१९५४ त ताका आल्बर्ट आयन्स्टायन पुरस्कार फावो जालो. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं : Quantum Electrodynamics (१९६१), Theory of Fundamental Process (१९६१), Fequman Lectures on Physics (तीन खंड १९६३ - ६४).

– कों. वि. सं. म

**फार्सी भास :** इराण देशांत उलोवपी भाशांतली एक मुखेल भास. आर्विल्ल्या इराणाची फार्सी ही म्हात्वाची भास. ती अरबी लिपींत बरयतात. ती अफघानिस्तानासावन अस्तंतेच्या बऱ्याच व्हड प्रदेशाचे संस्कृतायेची भास आसा. इ. स. च्या आठव्या शेंकड्यासावन हे भाशेंत खूब साहित्य निर्माण जालां. इ.स.च्या धाव्या शेंकड्यासावन भारताचो फार्सी भाशेकडेन संबंद येवंक लागलो.

महमद गझनीच्या काळांत पंजाब प्रांत गझनी साम्राज्याक जोडलो. त्या निमतान मध्य आशिया आनी अफघानिस्तान ह्या वाठारांतल्यान हजारांनी तुर्की, अफगान आनी इराणी लोक भारतांत वसणूक करपाखातीर आयले. ह्या लोकांवांगडा फार्सी भास लेगीत भारतांत आयली. पंजाबांत सगळ्यांत पयलीं फार्सी साहित्याचे निर्मितेक सुरवात जाली. इस्लामा पयलींची इराणची फार्सी भास अरबांक लागून पुराय बदलली. तेचप्रमाण मूळ लिपीबदला सुदारिल्ली अरबी लिपी फार्सी भाशेखातीर वापरपाक लागले. तशेंच मूळ फार्सी भाशेंत खुबशें अरबी उतरां भरसून आर्विल्ली फार्सी भास तयार जाली.

आयचे फार्सी भाशेंत इराणीपरस अरबी उतरां चड प्रमाणांत आसात. अशी ही गिरेस्त भास उदेंतेकडेन पयसमेरेन पातळ्ळी. मोगल दरबारांत जाल्यार ती उपरांत राजभासूच आशिल्ली. आयज लेगीत ही भास अफघानिस्तानांत व्हड प्रमाणाचेर उलयतात. तुर्कस्थानांत लेगीत ती प्रचलीत आसा. उणेच म्हळ्यार अडेज कोटी लोक फार्सी भास उलयतात.

फार्सी भास अरबी लिपीचो वापर करता. मूळ अठ्ठावीस अक्षरांचे हे लिपींत फार्सीन चार अक्षरांची भर घाल्ल्यान ती बत्तीस अक्षरांची जाल्या. फार्सीची ध्वनिवेवस्था अशी आसा–

स्वर : अ,आ, इ. उ. ए, ओ.

| | | |
|---|---|---|
| व्यंजन : | स्फोटक | : क, क, त, प, ग, ग, द, ब. |
| | अर्दस्फोटक | : च, ज. |
| | घर्शक | : ख, फ, स, श, घ, व, झ, झ, ह. |
| | अनुनासिक | : न, म. |
| | द्रव | : र, ल. |
| | अर्दस्वर | : य, व. |

अरबी भाशेंतल्यान आयिल्लीं नामां सोडल्यार फार्सी भाशेंत लिंग ना, स्त्री - पुरूशवाचक शब्दूच सगळे आसतात. 'पिद्र ' - बापूय, 'माद्र' - आवय, 'अस्व' - घोडो, 'मादियान' - घोडी. एकवचनाक 'हा' हो प्रत्यय लावन नामाचें भोववचन करतात. देखीक - मर्द म्हळ्यार दादलो - मर्द्हा, झन् म्हळ्यार बायल तिचें भोववचन - झन्हा. कांय लेखक प्राणिवाचक नामांक भोववचनी 'आन्' हो प्रत्यय लायतात. स्वामीत्व दाखोवपाखातीर वस्तूक 'ए' हो प्रत्यय लावन तेउपरांत स्वामीवचाक रूप दवरतात. किताब् - ए. आन् मर्द् 'त्या मनाशाचें पुस्तक'.

सामान्यपणान नामा उपरांत विशेशण येता. व्यंजनान्त नाम आसल्यार नाम विशेशण 'इ' ह्या रुपान आनी तें स्वरान्त आसल्यार 'यि' ह्या रुपान जोडटात. किताब्हा यि बुझुर्ग् 'व्हड पुस्तकां', मर्दान् इ निक् 'बरे दादले' तुळा करून दाखोवपी आनी व्हडपण दाखोवपी रुपां विशेशणांक अनुक्रमान - तर् आनी तरिन् हे प्रत्यय लावन मेळटात. बुझुर्ग् 'व्हड', बुझुर्गतर् 'खूब व्हड', 'बुझुर्गतरिन 'सगळ्यांत व्हड'.

धातूक तन्, दन् वा ईदन् हे प्रत्यय लावन क्रियावाचक रूप मेळटा. दादन् - दिवप, गिरिफ्तन - घेवप, नविश्तन् - बरोवप, खरीदन् - विकत घेवप, इस्तादन् - उबें रावप, निशस्तन् - बसप, दीदन् - पळोवप.

सगळ्या क्रियापदांक लागपी पुरुशवाचक प्रत्यय अशे आसात -

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प. पु. | अम् | ईम् |
| दु. पु. | ई | ईद् |
| ति. पु. | अद् | अन्द् |

हेच प्रत्यय शब्दाउपरांत आयल्यार 'हांव आसां' असो जाता. बच्चे अम् 'हांव भुरगें', मर्द ईद् 'तूं दादलो'. फकत तृतीय पूरूश एकवचनी रूप 'अस्त्' अशें आसा. सहाय्यक क्रियापदां, धातुसाधित, उपपदां हांच्या आदारान काळ आनी अर्थ हांचीं खाशेलपणां दिसतात. 'आसा' ह्या अर्थाचें स्वतंत्र्य क्रियापदूय आसा तें अशें -

| | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प. पु. | हस्तम् 'हांव आसां' | हस्तीम् |
| दु. पु. | हस्ती | हस्तीद् |
| ति. पु. | हस्त् | हस्तन्द् |

'अन्' काडून उडयल्ल्या ल्हान 'क्रियावाचक रुपाक - 'एह्' हो प्रत्यय लावन भूतकाळवाचक धातुसाधित मेळटा. खरिदन् - खरिदेह, बूदन् - बुदेह. वर्तमान कालवाचक धातुसाधित धातूक 'आन्' हो प्रत्यय लावन मेळटा. सहाय्यक क्रियापदां बूदन्, शुदन् आनी ख्वास्तन्. हांचीं धातुरुपां बाश्, शवा आनी ख्वाह.

हांव 'मन्', म्हाका 'मरा', तुका 'तुरा, तोरा', तो, ती, ते 'वै, ऊ' आमी, आमकां, 'मा माहा' तुमी, तुमकां, 'शुमा शुमाहा', अशीं पुरूशवाचक सर्वनामां आसात.

ईन् 'हो, ही, हे,' - इन्हा, 'हे ह्यो ही', आन् 'तो, ती, ते' आन्हा 'ते, त्यो, ती'.आन् किताब 'तें पुस्तक'.

किह 'कोण' आनी चिह 'किदें' हीं प्रश्नवाचक तशींच संबंदीं सर्वनामांय आसात. संबंदी सर्वनामांक विभक्तिदर्शक प्रत्यय लागना. प्रश्नवाचक किह्चें भोववचन 'क्रियान्' इशाना कियान् अन्द 'ते कोण आसात'?

साद्या वाक्या फाटल्यान हय - ना जापेचो प्रस्न 'आया' हें प्रश्नवाचक लावन जाता. आया ईन किताब अस्त् 'तें वा हें पुस्तक आसा व्हय'? कुजा 'खंय ? ' वक्ती किह् 'केन्ना', हीं प्रश्नवाचक रुपां वापरून हेर प्रस्न करतात.

'न' हो उपसर्ग न्हयकार दाखयता. नबूदम् 'हांव नाशिल्लों', नमीबाशम् 'हांव ना' अझ् 'सावन, परस' बी. ब 'खातीर', ता 'मेरेन' बिला 'बगर'. तशेंच व. ओ 'आनी', या 'वा', मगर 'पूण' हे अव्यय लायतात.

संख्यावाचक : सिफ्र् 'शुन्य', यक्, येक, 'एक', दु. 'दोन, सि 'तीन', चहार्, चार्, 'चार' पंज् 'पांच, शश्, शीशा 'स', हफ्त् 'सात' हश्त् 'आठ' नुहू 'णव', दह् 'धा', बीस्त् 'बीस', बीस्त् उ यक् 'एकवीस', सद् 'शंबर', हझार 'हजार', सद् हझार 'लाख' कुरूर 'कोटी'. संख्येक उम् हो प्रत्यय लावन क्रमवाचक जाता. यकुम् 'पयलो' नीम् 'अर्दो' चहार यक् 'एक चतुर्थांश' हश्त् यक् 'एक अश्टमांश आनी हेर.

फार्सी भाशेचें व्याकरण स्वतंत्र आसा. तशेंच हे भाशेंत व्हड प्रमाणांत अरबी भाशेंतलीं रुपां आनी प्रयोग मेळटात.

– कों. वि. सं. मं.

**फार्सी साहित्य :** फार्सी साहित्याची परंपरा खूब पोरणी. भारतांतलें फार्सी साहित्य हें सगळ्या आंगांनी परिपूर्ण आसा. धर्मशास्त्र, सुफी पंथ, काव्य, इतिहास ह्या सगळ्या फांट्यांनी फार्सी साहित्य निर्माण जालां. फार्सी साहित्याच्या इतिहासाचे कालखंड अशे करूं येतात. १) सुरवेकसावन धाव्या शेंकड्यामेरेन २) इकरावो ते बारावो शेंकडो - सेल्जुक कालखंड ३) तेरावो ते पंदरावो शेंकडो - मुघल आनी तैमुरू कालखंड ४) सोळावो शेंकडो ते विसाव्या शेंकड्यांतलें पयलें दशक - सफवी आनी काचारी कालखंड ५) विसावो शेंकडो - आर्विल्लो कालखंड ६) भारतांतलें फार्सी साहित्य.

**१) सुरवेकसावन धाव्या शेंकड्यामेरेन** - पुर्विल्ली फारसी ही इराणच्या नैर्ऋत्य वाठारांत उलयताले. ही राजवेव्हाराची भास आशिल्ली. हख्मानी बादशाहांनी कीलाक्षरांत कोरांतिल्ल्या अभिलेखांनी हे भाशेची म्हायती मेळटा. हिची लिपी अक्कदी लिपीकडेन संबंदीत आसा. हे भाशेंतलो सगळ्यांत पोरणो अभिलेख अरियरम्न राजाचो (सनपयली ६१० ते ५८०) अवेस्ता हो पारशी लोकांचो धर्मग्रंथ. अवेस्तन ही इराणच्या धर्मग्रंथाची भास. अवेस्तन ही भास फारसीचें धर्मीक रूप म्हणून इराणाच्या उदेंत वाठारांत प्रचलीत आशिल्ली.

मध्ययुगीन फार्सीचे उदेंती आनी अस्तंती अशे दोन भेद आशिल्ले. अस्तंती फार्सीक पहलवी अशें नांव आसा. पहलवी ही सासानी साम्राज्याची (सनपयली ६५२ ते २२६) राजभास आशिल्ली. हे भाशेंत कितलेशेच धर्मीक आनी हेर ग्रंथ बरयल्ले आसात. हे भाशेची लिपी अरमिनीसावन तयार जाल्या. सातव्या शेंकड्याच्या मदल्या काळांत अरबांनी सासानींक हारोवन इराणाचेर आपली सत्ता प्रस्थापीत केली आनी इराणांत इस्लामी राजवट सुरू जाली. ह्या काळांत अरबीचे खाशेले काव्यप्रकार आनी छंद फार्सींत आयले आनी इराणी जाणकारांनी आनी साहित्यकारांनी फार्सीक स्वतंत्र अशें स्वरूप मेळोवन दिलें.

फार्सी काव्याचो आरंभ ताहिरी आनी सफ्फारी हांच्या काळांत जालो. णवव्या शेंकड्याच्या शेवटाक बुखाराचे सामानी राजवटींत फार्सी वाङमयाक चड म्हत्त्व मेळ्ळें. कारण बगदाद हें अरबी संस्कृतायेचें मुखेल केंद्र बुखारासावन पयस आशिल्लें. तशेंच बुखारी आनी समरकंद हीं त्या काळांत फकत राजकीय केंद्रां नासून विद्येचीं आनी वाङमयाचींय मुखेल केंद्रां आशिल्लीं. सामानी काळांत नस्त्रा - इब्न अहमद हाचे कारकिर्दींतलो रुदकी हो पयलो व्हड कवी आनी गझल रचनाकार. खुरासानी ह्या नांवान वळखुपी शैलीचो तो आद्य प्रवर्तक. सब्क - ए खुरासानी वा खुरासानी शैली ही फार्सी साहित्यांत विकसीत जाल्ली सगळ्यांत पोरणी वाङमयीन शैली. ह्याच काळांतलो दकीकी हो 'शाहनामा' रचपी म्हत्वाचो कवी. ताणें बरयल्ल्या - 'शाहनामा' हे रचनेचोच उपरांत फिरदौसीन आपल्या 'शाहनामा' ह्या ग्रंथांत आस्पाव केला. रुदकी हाणें संस्कृत पंचतंत्र, कलीला आनी दिम्ना हांचे अणकार केले. ह्याच काळांत बल्अमी हाणें 'तारीख-ए-तबरी' ह्या तबरीच्या इतिहास ग्रंथाचो फार्सी अणकार केलो.

धाव्या शेंकड्याच्या उत्तारार्धांत गझनवी राजवटीवांगडा फार्सी भाशा - साहित्याचोय उत्कर्श जालो. राजधानी गझना ही विद्याकलांचें केंद्र जाली. किताब - अल् - हिन्द हाचो कर्तो अल् बीरुनी हो त्या काळांतलो नामनेचो तत्त्वज्ञ. तशेंच उन्सुरी, फर्रुखी आनी मिनुचेहरी हे राजाश्रय लाबिल्ले नामनेचे कवी. फर्रुखी हाका जाल्यार फार्सी भाशेचो 'अल् मुतनब्बी' म्हण्टात. (मुतनब्बी हो नामनेचो अरबी कवी) फिर्दौसी ह्या कवीक मात राजाश्रय मेळूंक नाशिल्लो. 'शाहनामा' हो ताचो प्रसिद्द ग्रंथ, ताणें ३० वर्सां खर कश्ट घेवन सुमार १०१० वर्सा पुराय केलो. ह्या ग्रंथांत पुर्विल्ली इराणी संस्कृताय आनी युद्धशास्त्र हांचेर उजवाड घाल्लो दिश्टी पडटा. ह्या काव्याक वैश्विक साहित्यांत इलिअड आनी महाभारत ह्या सारक्या महाकाव्यांचे बरोबरीची सुवात फावो जाल्या. 'शाहनाम्या'न पुर्विल्ली फार्सी तिगोवन दवरली. ताका लागून पुर्विल्ले फार्सी भाशेचे नदरेनूय हो ग्रंथ म्हत्वाचो.

गझनवी काळांत म्हत्वाचें इतिहास लिखाणूय जालें. बयहकी ह्या इतिहासकारान वट्ट तीस खंडांनी मेळून गझनवीचो इतिहास बरयलो. गर्डेझी हाणें 'जैनुल अखबार' नांवाचो ग्रंथ सासानी आनी गझनवी घराण्याच्या इतिहासाचेर बरयलो.

**२) सेल्जुक कालखंड (इकरावो - बारावो शेंकडो)** - इकराव्या शेंकड्याचे सुरवेक गझनवी उपरांत सेल्जुक येतकच फार्सी वाङ्मयाची खूब भरभराट जाली. अनवरी, उमर खय्याम, निजामी - ए - गंजवी हे ह्या काळांतले नामनेचे कवी. अनवरी हो 'कसीदा' ह्या काव्यप्रकाराचो 'पैगंबर' समजताले. संजार नांवाच्या सेल्जुक तुर्की सुल्तानाच्या दरबारांत तो राजकवी आशिल्लो. ताच्यो चडशो कसीदा सुलतानाक उद्देशून आसात. ११५३ वर्सा गझ जमातीच्या टोळयांनी खोरासानाचेर स्वारी करून संजाराक बंदी केलो. त्या वेळार सगळ्यांक जाल्लें दुख्ख ताणें आपल्या एका करुण काव्यांत उक्तायलां. ह्या काव्याचो 'टियर्स ऑफ खुरासान' ह्या नांवान अणकार जाला. ताच्या काव्याचेर अरबीची सया दिसता. ह्याच काळांत संवसारीक नामनेचो कवी उमर खय्याम जावन गेलो. 'नौराज नामा' हो ताचो फार्सी गद्यग्रंथ. हो ताचो ग्रंथ युनानी वैद्यकासंबंदी आसा. पूण 'रुबाईयात' हाकाच लागून ताका चड नामना मेळ्ळी. रुबाईयाताचे, जगातल्या चड करून सगळ्या भाशांनी अणकार जाल्यात. एडवर्ड फित्झजेराल्ड हाणें इंग्लिशीत केल्ल्या अणकाराक खूब नामना मेळ्ळी. तशेंच १९२९ वर्सा माधव जुलयन हाणें ताचो मराठींत अणकार केला.

ज्या काळांत कसीदा लिखाणाक उपजिविकेचें साधन मानपी कवी जाले, त्या काळांत मनशान सद्गुणी जावचें ह्या हेतून नासिर - ई - खुसरौ हाणें कसीदे बरयले. ह्याच काळांत बाबा ताहेर, अब्दुल्ला अन्सारी, अबू सईद अबुलखैर, सनाई, फरिदुद्दीन अत्तार हे सुफी पंथांतले सुरवातीचे कवी जावन गेले. मन्तेकुत्तैर ही फार्सी सुफी साहित्यांतली पयली रुपकात्मक रचना आसून तिचे संपादन जव्वाद मश्कूर हाणें केलां. ह्याच काळांत आझनबैजानांत निजामी - ए गंजवी, खाकानी हे श्रेश्ठ कवी जावन गेले. ह्याच काळांतलो एक म्हत्वाचो इतिहासीक ग्रंथ म्हळ्यार रावंदीचो 'राहतुस्सुदूर' हातूंतल्या विद्वानांच्या आनी कवींच्या उल्लेखांक लागून ह्या ग्रंथाक इतिहासीक तशेंच संस्कृतीक म्हत्व आयलें.

सुमार १०५० वर्सा हुज्वीरीचो 'कशफुलमहजूब' हो सुफी पंथाचो आद्य ग्रंथ बरयलो. मुहंमद - इब्न अल् मुनव्वर हाणें अबू सईद अबुल - खैरचे जीणेचेर ग्रंथालिखाण केलें. अत्तारचो तझकिरतुल - औलीया हो ग्रंथ, नामनेच्या - सुफी संतांचीं चरित्रां आनी तांची शिकवण हे विशीं आसा. रादूयानी हाचो 'तरजुमानुल बलागा' (१११४) हो अलंकार शास्त्रावयलो फार्सींतलो आद्य ग्रंथ. कथासाहित्यांतले दोन म्हत्वाचे ग्रंथ

म्हळ्यार 'कलीला आनी दिम्ना' आनी 'मर्जबान नामा'.

३) **मुघल आनी तैमूरी कालखंड (तेरावो ते पंदरावो शेंकडो)** : तेराव्या शेंकड्याचे सुरवेक चंगीझखान हाणें इराणाचेर स्वारी करून, पूराय इस्लामी संवसारांत दहशतीचें वातावरव निर्माण केलें. १२०८ वर्सा खिलाफताचें केंद्र आशिल्लें बगदाद शार नश्ट केलें आनी तेराव्या शेंकड्याचे अखेरेक चीनासावन आशिया मायनरमेरेन मुघल सत्ता प्रस्थापीत जाली. चंगीझखानाच्या वारसांनी चवदाव्या शेंकड्यामेरेन आपली सत्ता सांबाळ्ळी. पंदराव्या ते सोळाव्या शेंकडो मेरेन तैमूरी सत्ता आशिल्ली. ह्या सगळ्या राजकीय घडामोडींच्या काळांत लेगीत फार्सी साहित्याची चड करून इतिहास आनी सुफी वाङ्मय हांची खूब उदरगत जाली.

तैमूरचो नातू उलुघ - बेग हाणें झीजे - उलुघ - बेग नांवाचो ज्योतीशशास्त्रावयलो ग्रंथ बरयलो. ह्याच काळांत बरेच मुघली शब्द फार्सींत घुसले. सादी, रुमी, हाफीज आनी जामी ह्या श्रेश्ठ कवींनी फार्सी काव्याक आगळेंच स्वरूप मेळोवन दिलें.

चवदाव्या शेंकड्यांत सल्मान - ई - सावजी आनी ख्वाजू किरमानी हे नामनेचे कवी जावन गेले. पूण हाफीज हाका लागून ह्या कालखंडाक चड म्हत्व आयलें. हाफीजाचे लोकप्रियतेची आनी किर्तीची नोंद ताचो इश्ट गुलअंदाम हाणें आपल्या लेखांत करून दवरल्या. हाफीजाच्या काव्याचे इंग्लीश भाशेंत खूब अणकार जाल्यात. फार्सी, तुर्की आनी उर्दू साहित्यांत हाफीजाच्या काव्याचेर बऱ्याच प्रमाणांत विवेचनात्मक लिखाण जालां. हाफीजाच्या काव्याचो व्हड चाहतो आशिल्लो जामी हो ह्या कालखलंडातलो निमाणचो श्रेश्ठ कवी. 'युसूफ आनी जुलैखा' ही जामीची सगळ्यांत नामनेची रचना. सुफी साहित्य, इतिहास, नितीशास्त्र, चरित्र आनी कथात्मक साहित्य ह्या प्रकारांचें खूब लिखाण ह्या काळांत जालें. अल्लाउद्दीन अता मलिक जुबैनी हाणें चंगीझखान आनी ताचे वारस रवारझम शाह आनी इस्माइली हांचे कारकिर्दीचेर 'तारीख - ई - जहाँगुशाय' हो तीन खंडांचो इतिहासग्रंथ बरयलो. रशीदुद्दीन फगलुल्ला हाणें मोगलांचे कारकिर्दीचेर सगळ्यांत म्हत्वाचो 'जामेउत्तवारीख' हो ग्रंथ बरयलो. ह्या ग्रंथांत भारतासंबंदींची म्हायती ताणें एका भिक्षुकाकडल्यान मेळयल्ली. हम्दुल्ला मुसतौफी हाणें 'तारीखे गुझीदा' ह्या नांवाचो इतिहास १३३० वर्सा बरयला. हातूंत ताणें विश्वाच्या आरंभासावन १३२९ मेरेनच्या सगळ्या घडणुकांची नोंद केल्या. वस्साफ हाच्या इतिहासग्रंथांत 'तज़्जियतुल अम्सार' हातूंत ताणें पर्शियाच्या इतिहासांतल्या १२५७ ते १३२८ ह्या काळांतल्यो घडणुको नोंद केल्यात. निजामुद्दीन शामी, शरफुद्दीन अली यज्दी, हाफीज - ए - अब्रू, मीर ख्वाँद हे तैमुरी कालखंडांतले नामनेचे इतिहासकार आसात. साहित्यीक भासाभाशे वयल्या लिखाणांत औफीचो 'लुबाबुलअल्बाब', दौलतशाहचो 'तझ्केरतुश्शरा' आनी शम्स - ए - कैस हाचो 'अल्मोजम' हे ग्रंथ उल्लेख करपासारके आसात.

४) **सफवी आनी काचारी कालखंड (सोळाव्या ते विसाव्या शेंकड्याचें पयलें दशक)** - सोळाव्या शेंकड्यांत सफवींचो उदय जालो. तांचे राजवटींत इराणी लोकांक आपल्या राश्ट्रीयत्वाची जाण आयली. शाह अब्बास ह्या राजाचे कारकिर्दींत सगळ्या क्षेत्रांनी इराणाची भरभराट जाली. सफवी राज्यकर्ते हे कट्टे धर्मीक वृत्तीचे आशिल्ल्यान ताणीं फकत धर्माविशींच्या काव्याकूच चड उत्तेजन दिलें. काव्याचे नदरेन हो पडटो काळ आशिल्ल्यान उरफी, नझीरी ह्या प्रतिभावंतांक आलाशिऱ्याखातीर भारतांत येवचें पडलें. काचारींची कारकीर्द लेगीत काव्याचे नदरेन तितलीशी अनुकूल म्हणूंक येवंचिना. ह्या काळांतलो काआनी हो कवी फार्सी साहित्याच्या इतिहासांतलो सुमधुर रचना करपी कवी म्हणून वळखतात. सफवी आनी काचारी काळांत म्हत्वाचे गद्यग्रंथ बरयले. सफवी घराण्याचो संस्थापक शाह इस्मायल हाचे कारकिर्दीचेर खोन्दमीरचो हबीबु - स्सियर आनी शाह अब्बाससंबंदींचो इस्कंदर मुन्शीचो 'आल्म आरा - ए - अब्बासी' हे मान्यतायेक पाविल्ले इतिहासग्रंथ आसात. अहसनुत्तवारीख. जुब्दतुत्तवारीख आनी नासिरवुत्तवारीख हे ह्या काळांत म्हत्वाचे हेर इतिहासग्रंथ आसात. तशेंच नादीरशाह, जंद घराणें आनी बाबी पंथ हांचेरूय इतिहास बरयल्यात. हिदायत हाणें 'इफ्त इक्लीम' आनी 'मज्म-उल-फुसहा' हे कवीचरित्रपर ग्रंथ आनी फरहंगे अंजुमन-आरा-ए-नासेरी ह्या शब्दकोशाची रचणूक केली. 'तोहफा-ए-सामी', खुलासतुल्-अश्-आर, माजालेसुल मोमिनीन हे हेर कविचरित्राचेर बरयल्ले ग्रंथ. सफवी काळांतूच बाकिर-मजलिसी आनी अमिली हाणें धर्माविशीं आनी लादिजी हाणें तत्त्वगिन्याचेर ग्रंथ बरयले. काचारी काळांत हादी सब्जवारी हाणें 'अस्त्ररूल-हिकम' हो धर्मीक तत्त्वगिन्यानाविशीं ग्रंथ बरयलो. ह्याच काळांतलें एक खाशेलपण म्हळ्यार ह्या काळांत फार्सी साहित्याचो अस्तंती वाङ्मयाकडेन संबंद आयलो. तेन्नाच इराणांत मुद्रणकलेचोय उदय जालो (१८१६). १८३७ वर्सा - शाह नासीरुद्दीन काचारच्या काळांत पयलें इराणी नेमाळें सुरू जालें. उपरांत 'रुझनाय - ए वकाईये इत्तेफाकिया' हें आनीक एक नेमाळें १८५१ सावन सुरू जालें. उपरांतच्या काबा, सुरे-इस्त्रफिल्, हब्लुल-मतीन ह्या खबरांपत्रांनी आनी इराणी समाज-जागृतायेचो खूब वावर केलो.

५) **आर्विल्लो कालखंड (विसावो शेंकडो)** - खबरांपत्रक लागून राजसत्तेचेर दडपण येवपाक लागलें. १९२५ वर्सा काचारी घराण्यांतलो निमाणचो राजा अहमदशाह हारतकच, रेझाशाह पेहलवी गादयेर आयलो. तेन्नासावन इराणांत एका नव्या युगाक सुरवात जाली. फार्सी साहित्यांतल्यान देशप्रेम आनी समाजीक सुदारणांचें वारें व्हांवक लागलें. इराणाच्या राजकारणांत इंग्लंड, रशिया हस्तक्षेप करपाक लागली तेन्ना खंत उक्तावपाखातीर १९०४ ते १९०७ इतल्या अदमासाक फर्रुखी यज्दी आनी ईरज मिर्झा हाणीं कविता बरयल्यो. तशेंच अश्रफ रिश्ती, आरिफ कजवीनी आनी परवीन एतेसामी हाणींय उल्लेख करपासारक्यो कविता बरयल्यो. लाहुती हो इराणाचो पयलो साम्यवादी कवी. विख्यात रशियन साहित्यीक अलेक्सांद्र पुश्किन हाचेंय कांय साहित्य ताणें फार्सींत अणकारलां. नीमा युशिज हो मुक्तच्छंदाचो पुरस्कार करपी फार्सी कवी. ताचे खर समाजीक जाणविकायेचो प्रत्यय ताचे कवितेंतल्यान येता. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांतच्या काळांतल्या खूबशा फार्सी कवींचेर युशिजाचो प्रभाव दिश्टी पडटा. तातूंतलो अहमद शामलू बाम्दाद हो एक कवी. बाम्दादच्या कांय कवितांचेर पॉल एल्यूआर आनी अर्त्यूर रँबो ह्या सारक्या फ्रँच कवींचोय प्रभाव दिसता. फुरोग हे कवयित्रीच्या कवितांनी मेकळेपणान जिणेचो आनंद घेवपाचें मन, तशेंच इस्मायल शाहरुदी, सोहराब सिपेहरी हांच्या कवितांनी भारताविशींची आस्था आनी आदर दिश्टी पटडा. नादिर नादिरपूरी हाणें आपली कविता प्रेम आनी मरण ह्या विशयांचेर बरयल्या. तवल्लली, गुल्वीन ह्या कवींनी पॉल व्हालेरी ह्या फ्रँच प्रतीकवादी कवींच्या प्रभावांतल्यान आपली कविता बरयल्या. १९६२ उपरांतच्या फार्सी काव्यांत 'मौजे नव' म्हळ्यार नवें ल्हार ह्या नांवाची एक प्रवृत्ती दिसता. फार्सींतलें

नाट्यवाङ्मय मात चडशें समृद्ध ना. सुरवेच्या नाटकांत अली नवरूज हाच्या 'जाफरखान युरोपांतल्यान परत येता' ह्या मनोरंजक नाटकाचो उल्लेख करूं येता. अहमद बहार-मस्त हाणें बरयल्ल्या 'इराणाचो आत्मो' ह्या नाटकाचो प्रयोग १९४७ वर्सा इराणांत जालो. जेम्स मॉरिए हाचे 'द अॅडवँचर्स ऑफ हाजीबाबा ऑफ इस्फहान' (१९२४) हे कादंबरेच्या मिर्झा हबीब हस्तहानी हाणें केल्ल्या फार्सी अणकाराक लागून आर्विल्ली फार्सी कादंबरी तयार जाली. झैनुल आबिदिन हाची 'सियाहत - नामा - ए - इब्राहिमबेग' ही आनीक एक उल्लेख करपासारकी कादंबरी. मुहम्मद हिजाझी हाच्या 'हुमा' हे कादंबरेकूय खूब नामना मेळ्ळी. 'बूफे कूर' हे सादिक हिदायत हाचे कादंबरकूय खूब नामना मेळ्ळी. 'बूफे कूर' हे सादिक हिदायत हाचे कादंबरेचो बी. पी. कोस्टेल्ली हाणें 'द ब्लाइंड आउल' ह्या नांवान इग्लीश अणकार केला.

**भारतांतलें फार्सी साहित्य** : धाव्या इकराव्या शेंकड्यांत गझनवी आनी घोरी हांचे सत्तेवांगडा फार्सी भाशेचोय प्रभाव सुरू जालो. हे राज्यकर्ते तुर्की - इराणी वंशाचे आशिल्ल्यान तांची भास, संस्कृताय हांचो अरबीचो प्रबाव उणो जावन, ते फार्सी भाशेचोच चड उपेग करूंक लागले. मुसलमानी अमलांत फार्सीच राज्यकारभाराची भास आशिल्ली. गुलाम घरण्यांतल्या राजांनी स्थापणूक केल्ल्या मदरशांनी अरबी भाशेवांगडा फार्सीचेंय शिक्षण दिताले. सुफी संतांच्या मठांनी ज्या धर्माविशींच्या ग्रंथांचें अध्ययन - अध्यापन चलतालें ते चडशे ग्रंथ फार्सी भाशेंतलेच आशिल्ले. ताका लागून भारतांतल्या सुफी मठांकूय फार्सीच्या अभ्यासकेंद्राचें स्वरूप आयलें.

पंदराव्या शेंकड्यातलो काश्मीरचो सुलतान झैनुल अबिदिन आनी मोगल सम्राट अकबर ह्या राजांनी हिंदूंच्या धर्मीक ग्रंथांचो आनी संस्कृतांतल्या कलाकृतींचे फार्सी अणकार करपाक उर्बा दिली. हेखातीर काश्मीरांतल्या कांय हिंदूंनीय फार्सी भास आपणायली. फार्सी भाशेंतलो संगितावयलो पयलो ग्रंथ 'लहेजते सिकंदरशाही' हो सिकंदर लोदीचे उर्बेन तयार जालो. अमीर खुसरौ ह्या म्हाकवीन संगिताच्या क्षेत्रांत मोलादीक आनी म्हत्वाची कामगिरी केल्या. सतराव्या शेंकड्यांत राजा मानसिंग हाणें बरोवन घेतिल्ल्या 'मानकौतूहल' ह्या संगितावयल्या हिंदी ग्रंथाचो फार्सीत अणकार जाला. गौस गवालियारी हाणें अमृतकंड ह्या संस्कृत ग्रंथाचो 'बहम्रूल - हयात' हो फार्सी अणकार केला. दारा शिकोह हाणें उपनिशदाचो 'सिर्रेअकबर' हो अणकार केला. तशेंच ताणें 'मज्मडल् - बहरैन' हो हिंदू आनी मुसलमान धर्मीयांक एकठांय हाडपाचो यत्न करपी म्हत्वाचो ग्रंथ बरयलो.

**इराण आनी मध्य आशियांतले फार्सी साहित्य** - परंपरेचो प्रभाव भारतीय फार्सी साहित्याचेरूय आसा. भारतांतल्या फार्सी साहित्याच्या कालखंडाक युरोपी समिक्षक 'इंडियन समर' ह्या नांवान वळखतात. तेच भाशेन इराणी पंडीत भारतीय फार्सी साहित्य शैलीक 'सबके हिन्दी अशें नांव दितात. सबके हिन्दी म्हळ्यार भारतीय शैली. उरफी, नझीरी ह्या इराणी कवींनी तशेंच फैझी ह्या भारतीय कवीन हे एकुणिसाव्या शेंकड्यामेरेन हे शैलीचो प्रभाव इराणी आनी भारतीय फार्सी साहित्याचेर दिश्टी पडटा. इकराव्या शेंकड्याच्या मध्यासावन भारतांत फार्सी साहित्याचो आरंभ जाल्लो दिसता. भारतीय फार्सी साहित्याची परंपरा जी अमीर खुसरौ आनी ताचे पयलींच्या कवींनी सुरू केली, ते परंपरेचो खरो विकास जालो तो मोगल सम्राटाच्या काळांत. हाका भारतीय फार्सी साहित्याचें भांगरायूग मानतात. मोगल घराण्याचो आद्य संस्थापक बाबर, ताचे उपरांत अकबर, जहांगीर हाणीं कवींक आनी लेखकांक दिल्ल्या राजाश्रयाची कीर्त भारताभायर लेगीत पातळ्ळी आनी उरफी, नझीरी अशे कितलेशेच इराणी ग्रंथकार सोडून राजाश्रयाखातीर भारतांत आयले. फैझी हो भारतीय आसून लेगीत फार्सी साहित्यांत ताणें खूब नांव जोडलें. फैझी हो अकबराचो दरबारी कवी आशिल्लो. तशेंच तालिब - अमूली हो जहांगीर बादशाहाचो आनी अबू-तालिब कलीम हो शाहजहान बादशाहाचो दरबारी कवी आशिल्लो. सतराव्या शेंकड्यांत इराणांतल्यान भारतांत आयिल्ल्या कवींभितर साइब हाका कश्मीराचो गव्हर्नर झफरखान हाचो आलाशिरो मेळ्ळो. ह्याच शेंकड्यांत काश्मीरांत गनीकाश्मीरी हो नामनेचे फार्सी कवी जावन गेलो. दक्षिणेतले आदीलशाही राजवटीन फार्सी साहित्याचे उदरगतीक खूब आदार केलो. ह्या राजांच्या प्रोत्साहनाक लागून जुहूरीसारके नामनेचे फार्सी कवी उदयाक आयले. स्वामी भोपटराय बेगम बैरागी हजीन ह्या कवींनी फार्सी साहित्यांत मोलादीक वावर केला. ह्याच कालखंडांत जावन गेल्ल्या नामनेच्या भारतीय फार्सी कवींभितर बेदिल ह्या कवीचो मुजरत उल्लेख करचो पडटालो. ताचीय शैली खास सबके हिन्दी ह्या प्रकारांत मोडटा. ह्या कवीच्या काव्यान गालिब ह्या व्हड कविकूय प्रभावीत केला. गालीब हो मोगल कालखंडांतलो निमाणचो म्हाकवी. गालिबाचे उर्दू काव्यरचनेक खूब नामना मेळ्ळी, पूण फार्सी काव्यरचनेविशीं आपल्याक चड अभिमान दिसता अशें गालिबान म्हळां.

'सारे जहाँ से अच्छा हिंदोस्ताँ हमारा' ह्या गाजिल्ल्या पदाचो कवी इक्बाल हो भारतीय फार्सी साहित्य परंपरेंतलो निमाणचो नामनेचो कवी. रुमी, फैजी ह्या ग्रंथकारांच्या साहित्यावयल्यान इक्बालान फार्सी आपणायली. तेखातीर इक्बालाची फार्सी इराणांतल्या त्या काळांतल्या रूढ फार्सीपरस वेगळी दिसता. ताणें फार्सीत बरयल्ल्या ग्रंथांतलो 'जावेदनामा' हो नामनेचो ग्रंथ आसून ताचो इंग्लीश भाशेंतूय अणकार जाला. ताणें हो ग्रंथ नामनेचो इटालियन कवी दान्ते हाच्या 'डिवायन कॉमॅडी' ह्या काव्याचे धर्तेचेर बरयला. भारतीय फार्सी पंडितांनी काव्याभाशेनूच, इतिहास, सुफी साहित्य, वाङ्मय, ललीत साहित्य अशा गद्यांतूय मोलादीक भर घाल्या. मिन्हाज सिराज हाचो 'तबकाते नासिरी' सुरवातेचो इतिहासग्रंथ. १२६० वर्सा हो ग्रंथ ताणें पुराय केलो. भारतांतले मुसलमानी राजवटीच्या सुरवातीच्या कालखंडाचेर उजवाड घालपी हो ग्रंथ आसून फकत भारतांतूच न्हय जाल्यार इराण आनी तुर्कस्तान ह्या देशांनीय ह्या इतिहासग्रंथाक मान्यताय मेळ्ळ्या. उपरांतच्या शेंकड्यांत बर्नी हाणें बरयल्लो 'तारिखे फिरोझनाही' हो ग्रंथ बोधवादी इतिहासलिखाणाचो एक नमुनो. तेराव्या शेंकड्यांत सुरू जाल्ली ही इतिहासलिखाणाची परंपरा मोगलांच्या काळांत खुबूच भरभराटीक पावली.

अबुल फज्ल हाणें बरयल्ल्या 'अकबरनामा' ह्या ग्रंथाचीं तीन दफ्तरां आसून ताणें अकबराच्या ४६वर्साचे कारकिर्दीचो इतिहास दिला. अकबराच्या काळांतलो निजामुद्दीन हाणें बरयल्लो 'तबकाते अकबारी हो ग्रंथूय अकबराचे राजवटीविशीं माहिती दिवपी आसा. ह्याच काळांतलो अब्दूल कादीर बदाऊनी हाणें 'मुन्तखबूत्तवारीख' हो भारतांतले मुसलमानी राजवटीचो इतिहास सांगपी ग्रंथ बरयलो. ह्याच ग्रंथांत ताणें कांय पंडिताची आनी कवींचीं चरित्रांय दिल्यांत अब्दूल हमीद हाणें बरयल्ल्या 'पादशाहनामा' ह्या ग्रंथांत शाहजहामाचे राजवटीची विस्कटावणी केल्ल्या. तशेंच खाफीखान हाचो 'मुन्तखबुल्लुबाब' हो ग्रंथ औरंगझेबाचे कारकिर्दीचेर बरयला. दिल्लीचे

राजवटीभाशेन दक्षिणेंतली बहामनी, कुतुबशाही, आदिलशाही ह्या राजवटींचेरूय इतिहासग्रंथ बरयल्यात. तातूंतलो इब्राहिम आदिलशाह म्हळ्यार आदिलशाह दुसरो हाच्या आलाशिन्या आशिल्ल्या फरिश्ता हाणें बरयल्लो 'गीशने इब्राहिमी' ह्या ग्रंथाची खूब नामना आसा.

सुफी पंथियांतलो सगळ्यांत पोरणो ग्रंथ 'कश्फूल महजुब' हो गजनवी राजवटींत जावन गेल्ल्या हुज्वीरी ह्या ग्रंथकारान बरयलो. ह्या ग्रंथांत सुफी तत्त्वगिन्यानाची विस्कटावणी केल्या. तशेंच ख्वाजा मीर नाहिसर अंदलीब हाचो 'नालए - अंदलीब' मीर दर्द हाचो 'इल्युल् किताब' आनी शेख अहमद सरहिन्दु हाचो 'मकतूबात' हे ग्रंथ खूब म्हत्त्वाचे.

इब्न- अल् अरबी हाणें पयलीं अरबी भाशेंत इस्लामी तत्त्वज्ञानांतलो अद्वैतवादाचो सिद्धांत मांडलो. ताचो तेराव्या शेंकड्यांत ल्हव- ल्हव भारतभर फार्सी भाशेंतल्यान प्रसार जालो. चवदाव्या शेंकड्यांतलो नामनेचो गुढवादी ग्रंथकार मसऊद बेग हाणें इब्न-अल् अरबीच्या विचारान प्रभावीत जावन 'मिरअतउल् अरिफीन' हो गद्य ग्रंथ बरयलो. सूफी विचारवंतांचे माळेंतलो निमाणचो भारतीय तत्त्वज्ञ म्हळ्यार शाह वलीयुल्लाह. 'कुर्आने शरीभ' हाचो फार्सींत अणकार करपाचो पयलो मान शाह वलीयुल्लाह हाकाच वता. सुफी संतांचीं चरित्रां आनी वचनां हांचेरूय बरेंच लिखाण भारतीय फार्सी साहित्यांत जालां. तातूंतले सिअर-उल्-अवलिया, सियर-उल्-आरिफीन, अखबार-उल्-अखयार हे नामनेचे चरित्रग्रंथ. कांय सुफी ग्रंथकारांचे विचारसरणेचेर भारतीय वेदान्ताचो आनी तत्त्वज्ञानाचो परिणाम जालो. मुहंमद गौस हाचो 'बहर-उल-हयात' हो ग्रंथ हाचें एक उदाहरण. तशेंच दारा शुकोह हाच्या 'मजम-उल-बहरैन ह्या ग्रंथांतल्यान वेदान्त आनी मूळ सुफी तत्त्वज्ञान हातूंतल्या समान तत्त्वांचेर भर दिल्लो दिसता. ह्याच काळांत फार्सी कोशकारांनी जे कोश रचले, तांकां भारतांतूच न्हय जाल्यार इराणांत लेगीत संदर्भग्रंथ म्हणून मान्यताय मेळ्ळी. चवदाव्या शेंकड्यासावत एकुणिसाव्या शेंकड्यामेरेन शंबर फार्सी शब्दकोश तयार जाल्ल्याचें दिसता. सगळ्यांत पयलीं अल्लाउद्दीन खिल्जी हाच्या काळांतलो फख्रुद्दीन कव्वास हाणें बरयल्लो 'फरंगनामा' आनी शब्दकोश उल्लेख करपासारके आसात. उपरांत दिल्लीच्या बदर मुहंमद हाणें १४१९ वर्सा 'अदबुल फुज़ला' हो शब्दकोश तयार केलो. तशेंच जमालुद्दीन-इंजू हाचो फरहंगे जहांगीरी, अब्दुर्रशीद हाचो फरहंगे रशीदी, मुहंमद हुसेन तब्रीजी हाचो बुर्हाने कातिअ, अजीज जंग बहादूर हाचो 'आसीफ-उल् - लुगात', टेकचंद बहार हाचो 'बराहे आजम' हे शब्दकोशूय म्हत्वाचे मानतात.

कथासाहित्यांत झियाउद्दीन नकशवी हाच्या 'तूतीनामा' ह्या ग्रंथाचो मुजरत उल्लेख करूंक जाय. अकबर बादशाहाचे विनवणे वयल्यान फैज़ी, बदाऊनी आनी मुल्लाशेरी ह्या तिगांयनी मेळून 'महाभारताचे रइमनामा' हो फार्सी अणकार केलो. तशेंच, बदाऊनी हाणें 'सिंहासनद्वात्रिंशिका' आनी 'कथासरित्सागर' ह्या संस्कृत ग्रंथांचे अनुक्रमान 'नामाए - इ - खिरद - अफज़ा' आनी 'बहरुल - अस्मार' ह्या नांवांनी अणकार केले. ताणें रामायणाचोय फार्सी अणकार करून अबुल फज्ल हाणें पंचतंत्राचो अरबींतल्यान फार्सींत अणकार केला. औरंगजेबाच्या काळांत संस्कृतांतली नचिकेत कथा रुपनारायण खत्री हाणें 'हिकायते नासिकीत' ह्या नांवान फार्सींत हाडली. तशेंच, 'वेताल पंचविंशातिका' ह्या ग्रंथाचोय एका अज्ञात लेखकान फार्सींत अणकार केला. 'मिताक्षरा' ह्या संस्कृत विधीविशींच्या ग्रंथाचोय ह्याच काळांत फार्सींत अणकार जालो.

जुहूरी इब्रहिम अदिलशाह (दुसरो) हाच्या दरबारी कवीन,गद्य साहित्यांत भारतांत खूब नामना जोडली. संस्कृत छंदशास्त्राचो 'तुहफ्तुल्हिन्द' ह्या फार्सी अवताराक खूब नामना मेळ्ळी. अशे तरेचो हो फार्सींतलो एकूच ग्रंथ.

पत्रात्मक साहित्यांत अबुल फजल आनी औरंगजेब हांचीं पत्रां खास उल्लेख करपासारकीं आसात. नामनेचो गणिततज्ञ भास्कराचार्य हाच्या 'लीलावती' ह्या गणिताविशींच्या ग्रंथाचो अबुल फैज़ीन अणकार केला. तशेंच अहोबल हाच्या 'पारिजातक' ह्या संगिताविशींच्या ग्रंथाचो रोशन जमीर हाणें केल्लो अणकार उल्लेखनीय आसा.

हालींच्या काळांतूय भारतांतल्या नामनेच्या ग्रंथांचे फार्सींत अणकार जातात. अशा लिखाणांत अली आगर हिकमत हाणें केल्लें 'शाकुंतला' चो अणकार आनी तफज्झली हाणें केल्लो पं. जवाहरलाल नेहरू हाचे आपजिणेचो अणकार प्रसिद्ध आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**फाल्गुन** : हिंदू कालगणनेप्रमाण वर्साचो बारावो म्हयनो म्हळ्यार निमाणो म्हयनो. ह्या म्हयन्याचे पुनवेच्या अदमासाक (पूर्वा वा उत्तरा) चंद्र फाल्गुनी नक्षत्रांत आसता. देखून ह्या म्हयन्याक फाल्गुन हें नांव पडलें. ह्या म्हयन्याक तपस्य अशें दुसरेंय नांव आसा. शिशिर ऋतूंतलो हो दुसरो म्हयनो. ह्या म्हयन्यांतली पुनव आनी उमास ह्यो तिथी १४ मन्वादि तिथींतल्यो (मन्वंतरांच्या सुर्वेच्या तिथींतल्यो) आसात. ह्या म्हयन्याचे पुनवेक होळी, वद्य पाडव्याक धूळवट आनी वद्य पंचमीक रंगपंचम ह्यो परबो येतात. तेभायर शुद्ध द्वितियेक श्री रामकृष्ण परमहंस हाची जयंती. दक्षिण भारतांतले चडशा देवस्थानांचे उत्सव ह्या म्हयन्यांत येतात. भारताच्या राश्ट्रीय पंचांगाचो फाल्गुन म्हयनो ३० दिसांचो आसून तो चार वर्सांनी एकदां येवपी वर्सात १९ आनी हरशीं २० फेब्रुवारीक सुरू जाता.

– कों. वि. सं. मं.

**फाशांचो खेळ** : फाशांच्या आदारान खेळपाचो खेळ. फासो म्हळ्यार ल्हानशी चौखण वा आयताकृती घूल. हे घुलयेच्या सय वटांनी एक सावन स मेरेन तिचे काडिल्ले आसतात. हे तिबे अशे तरेन काडटात, खंयच्याय दोन उरफाटचा वटांनच्या तिब्यांची बेरीज सात आसता. अशे एक वा ताचेपरस चड फाशे हातांत घेवन वा फाशे पात्रांत घालून ते खुळखुळावन सपाट अशा भागार उडयतात. उपरांत फाशांच्या वयल्या भागावयल्या थिपक्याची संख्या मेजतात. अशा फाशांचो उपेग दैवाचेर वा योगाचेर आदारीत वा जुगाराच्या खेळांत करतात.

पुर्विल्ल्या काळासावन मनीस फाशांचो उपेग करता. ग्रीक तत्त्वगिन्यानी सॉफोक्लीस हाच्या मतान ग्रीसांतल्या पॅलमीडीझ हाणें इ. स. आदीं सुमार १२४४त फाशांचो सोद लायलो, जाल्यार ग्रीसी इतिहासकार हिरोडॉटसाच्या मतान लिडियन लोकांनी फाशांचो सोद लायलो.

पूण ह्या काळाच्या आदल्या तेंपार पसून फाशांचो उपेग जातालो असो पुरावो मेळटा. खूब पुर्विल्ल्या आदीमानवी टोळयांमदीं यातुविद्येंतलें एक साधन म्हणून फाशांचो वापर जातालो आसुंये. जायत्या आदीम जमातींनी फाशांचो जुगारी खेळ खेळटाले. देखीक – अमेरिकी, इंडियन, ॲझ्टॅक, माया, एस्किमो, आफ्रिकी जमातींनीय हो खेळ खेळटाले.

चीनांतल्या उत्खननांत इ. स. आदीं सव्या शतमानांतले फाशे मेळटात. इजिप्तियन थडग्यांमदीं मेळिल्ले फासे इ. स. आदीं दुसऱ्या शतमानांतले आसात. भारतांतूय पुर्विल्ल्या काळासावन द्यूतक्रिडा, पटावयले खेळ, सारीपाटावयले खेळ आदी जायते खेळ रूढ आशिल्ले. वैदिक साहित्यांत चड करून ऋग्वेदांत फाशांचो अक्षम ह्या शब्दान उल्लेख मेळटा. महाभारतांत कौरव पांडवाच्या द्युतांचो उल्लेख मेळटा. आचार्य शूलपणीच्या चतुरंग दिपिका ह्या संस्कृत ग्रंथांत द्युताविशीं म्हायती आसा. आदल्या तेंपार द्यूत खेळपाखातीर राजालोक द्यूतघरां बांदताले आनी थंय खेळपी लोकांकडल्यान कर वसूल करताले.

वेगवेगळ्या काळांत वेगवेगळ्या लोकांकडसून वेगवेगळ्या आकारांचे आनी वेगवेगळ्या पदार्थांचे फाशे तयार केल्ले दिसतात. हाडां, दांत, लाकूड, कंवची, प्लास्टीक, फातर आनी अशाच तरांच्या पदार्थांपसून फाशे तयार करतात.

संवसारांतल्या वेगवेगळ्या देशांनी फाशांचे वेगवेगळ्या प्रकारचे खेळ प्रचलीत आसतात. तातूंत सगळ्यांत पोरनो आनी अजुनूय खेळिल्लो खेळ म्हळ्यार बैकगॅमॉन. कांय फाशांच्या खेळांनी एकूच फासो वापरतात. देखीक - अस्तंत्या राश्ट्रांनी सगळ्यांत नामना आशिल्लो 'बॅकक्रॅप्स' हो खेळ खेळटात. सापशिडी, ल्युडो ह्याय खेळांनी एकाच फाशाचो वापर करतात. कांय खेळांनी फकत दोनूच फाशे वापरतात. देखीक - अमेरिकी 'क्रॅप्स'. कांय खेळांनी फकत तीन फाशे वापरतात. देखीक - चक - अ लक. पोकर डायस ह्या खेळांत पांच फाशांचो वापर करतात. 'चैट' ह्या खेळांत धा फाशे वापरतात.

गोंयांत 'गडगडो' हो फाशांचो प्रकार चड प्रचलीत दिसता. जात्रा - काल्यांनी गडगडो खेळ सर्रास चलता. जंय हो खेळ चलता थंय भोवतेक सगळेच कडेन ताच्या आदारान पयशांचो जुगार खेळप जाता. एक ते स आंकडो आशिल्ल्या स घरांचो पट आनी एक ते स तिबे आशिल्लो फासो ही ह्या खेळाची सामग्री. फासो डब्यांत घालून 'गडगड' असो आवाज काडटात. ताका लागून हागा 'गडगडो' अशें नांव पडलें आनी उपरांत तो डब्यापोंदा धांपतात. ते मदीं जुगार खेळपी आपआपलो अदमास बांदून एक ते स आंकडे आशिल्ल्या घरांनी पयशे लायतात. फासो खेळपी डबो काडटा आनी फाशाच्या वयल्या भागार जो आंकडो आसा त्या आंकड्याच्या घरांत जाणीं पयशे लायल्यात तांकांच मूळ पयशांच्या स पटींनी पयशे मेळटात. धर्माप्रमाण तशेंच प्रचलीत कायद्याप्रमाण गडगडो धरून सगळ्याच जुगार खेळांक मनाय आसता. तरी कोजागिरी पुनव, शिवरात्र, बलिप्रतिपदा ह्या तिथींक अशा खेळांक धर्मीक अनुमती दिल्ली आसा.

फाशांच्या खेळावरवीं बुद्दी अभिव्यक्ती दिसता आसली तरी ते वरवीं समाजांत जुगार प्रवृत्तीक तेंको मेळटा आशिल्ल्यान अशा खेळाचेर सगळेच कडेन कायद्यान बंदी घाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**फा हियान** : फा हियान एक बौद्ध भोंवडेकार. हाणें बौद्ध ग्रंथ मेळावचे पासत भारत आनी हेर देशांनी भोंवडी केली. इ.स. ३९९ वर्सा हो चीनांतल्यान भायर सरलो आनी भारतासकट हेर देशांनी भोंवन इ. स. ४१४ वर्सा चीनाक परतलो. त्या काळार चीनांत फकत बौद्ध धर्म घोळणुकेंत आशिल्लो. पूण विनयाविशीं (धर्म शिक्षण) परिस्थिती बरी नाशिल्लो. भारतांत जे बुद्धाचे उपदेश परंपरेन चलत आयल्यात आनी जे बुद्ध धर्माचे ग्रंथ आसात तांचो अभ्यास करून ते प्रमाण चीनांतल्या बौद्ध धर्माक योग्य अशी दिका दिवपाच्या हेतान फा हियान भोंवडेक भायर सरिल्लो.

मध्य अशियांतल्या राज्यांतल्यान भोंवडी काडीत काडीत तो काशगराक येवन कांय दीस रावलो. थंयसावन अफघानिस्थान, पंजाब मार्गान तो मथुरेक गेलो.

फा हियान हाणें फुडें नालंदा, राजगृह, गया, वाराणसी, मृगदाव, कौशांबी ह्या बौद्ध थळांची भोंवडी केली आनी भारतांतली मुखेल अशी बौद्ध थळां पळयलीं. फा हियान जांच्या सोदांत भारत भोंवडेर आयिल्लो ते विनयग्रंथ ताका श्रावस्तीच्या एका संघारामांत आनी पाटलीपुत्र नगरांत मेळ्ळे. थंय रावून तो संस्कृत आनी पाली भासो शिकलो आनी ताणें जायत्या विनयग्रंथांचोय अभ्यास केलो. ह्या वावरापसून तो स वर्सां भारतांत रावलो आनी ताम्रलिपी मार्गान लंकेक गेलो. थंय दोन वर्सां रावलो आनी मागीर मायदेशाक परतलो.

भारतांतल्यान ताणें जे बौद्ध धर्मग्रंथ व्हेले ते थंयसल्ल्या धर्मगुरूकडेन दिले.

हे भोंवडेवेळार फा हियान हाणें ज्यो गजाली पळयल्यो, अणभवल्यो तांचें वर्णन ताणें कोंड्याच्या कामटांचेर आनी रेश्मी कपड्यांचेर बरयलें.

भारतीय समाजाचो अभ्यास करतल्यांक फा हियान हाच्या भोंवडे वर्णनांचो खूब फायदो जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**फाळके, दादासाहेब** : ( जल्म : ३० एप्रिल १८७०, त्र्यबंकेश्वर - नासिक; मरण : १६ फेब्रुवारी १९४४ नासिक).

भारतीय चलचित्रसृश्टीचो जनक. ताचे पुराय नांव धुंडिराज गोविंद फाळके, पूण दादासाहेक ह्याच नांवान ताची नामना आसा. ताच्या बापायचें नांव गोविंदशास्त्री आनी आवयचें नांव द्वारकाबाय. मुंबयच्या मराठा हायस्कुलांत मॅट्रीक जातकच १८८५ वर्सा ताणें थंयच्या



जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट हातूंत प्रवेश घेतलो. फुडें १८९० वर्सा ताणें बडोद्याच्या कलाभवनांत चित्रकलेचें शिक्षण पुराय केलें. तेचवांगडा वास्तूकला आनी सांचेकाम हांचेंय शिक्षण घेतलें. मदीं कांय दीस ताका

रतलामाक तीरंगी ठशे तयार करपाची प्रक्रिया (थ्री कलर प्रॉसॅस) प्रकाश शिलामुद्रण (फोटोलियो) आनी छायाचित्रण आदी मळांचेर प्रयोग करपाची संद मेळ्ळी. कांय दीस ताणें बडोद्याक धंदेकार, छायाचित्रकार तशेंच रंगमाचयेचो नेपथ्यकार म्हणून काम केलें. १८७२त अहमदाबादेक भरिल्ल्या एका उद्देगीक प्रदर्शनांत ताणें धाडिल्ल्या आदर्श घराचे प्रतिकृतीक भांगरा पदक मेळिल्लें. १९०१त ताणें एका जर्मन जादुगाराकडल्यान शिक्षण घेतलें. ताचे पयले बायलेक मरण आयिल्ल्यान १९०३ वर्सा तो दुसरे खेपे लग्न जालो. त्याच वर्सा सरकाराच्या पुराणवस्तू संशोधन खात्यांत प्रारुप्रकार आनी छायाचित्रकार म्हणून नोकरी मेळ्ळी. हे नोकरेक लागून ताका भारतांतलीं जायतीं वास्तूशिल्पां पळोवंक मेळ्ळीं. १९०६त ताणें वंगभंग चळवळीच्या निमतान आपल्यो सरकारी नोकरेचो राजिनामो दिलो. १९०८ ताणें लोणावळ्याक 'फाळके एनग्रेविंग अँड प्रिंटिंग प्रॅस' हो धंदो सुरू केलो. तिचेंच रुपांतर फुडें लक्ष्मी आर्ट प्रिंटिंग वर्क्स हातूंत जालें. १९०९त जर्मनीक वचून ताणें तीरंगी मुद्रण प्रक्रियेचें आर्विल्लें शिक्षण घेतलें. १९१०त ताणें सुवर्णमाला नांवाचें पुराय कलापूर्ण अशें मराठी गुजराती म्हयनाळें सुरू केलें.

१५ एप्रिल १९११ ह्या दिसा मुंबय गिरगांवांतल्या अमेरिका इंडिया सिनेमॅटोग्राफ ह्या तंबूबगर आशिल्ल्या चलचित्रघरांत ख्रिस्ताची जीण हो अर्द वराचो मूकपट पळेलो. तातूंतल्यान स्फूर्त घेवन स्वदेशी चित्रपट काडपाचें ताणें थरयलें. ते नदरेन ताणें रातदीस चित्रपट निर्मितीविशीं अभ्यास सुरू केलो. १ फेब्रुवारी १९१२त तो इंग्लंडाक गेलो. थंयसावन आपल्याक जायती यंत्रसामुग्री घेवन तो भारतांत आयलो. जून - जुलय म्हयन्यांत ताणें 'रोपट्याची वाढ' हो एका मिनटाचो लघुपट तयार केलो. उपरांत रोखडोच तो व्हड चलचित्राचे निर्मितीकडेन लेखक, छायालेखक, रंगभेस करपी, कला दिगदर्शक, दिग्ददर्शक, रसायनकार, संकलनकार आदी सगळ्यो भुमिका ताणेंच केल्यो. ह्या चलचित्राखातीर ताका बायल कलाकार मात मेळ्ळीना. हे अडचणीक फाटीं उडोवन ताणें दादरच्या मुखेल रस्त्यार आपलें चित्रपट निर्मिती घर सुरू केलें आनी भारताचें पयलें चलचित्र 'राजा हरिश्चंद्र' स म्हयन्यांनी पुराय केलें. मुंबय त्या वेळार सँडहर्स्ट रोडार आशिल्ल्या नानासाहेब चित्रे हाच्या कॉरॉनेशन थिएटरांत ३ मे १९१३ ह्या दिसा तें चलचित्र दाखयलें.

पुराणीक चलचित्र निर्मुपाक ताका देवळां, घाट आनी सैमीक वाठाराची गरज आशिल्ल्यान तो नाशिकाक गेलो. थंय ताणें आपलो दुसरो चित्रपट 'मोहिनी भस्मासूर' निर्मून जानेवारी १९१४ कॉरॉनेशन थिएटरांत दाखयलो. ह्या चित्रपटावांगडा तो 'पिठाचे पंजे' होय एक विनोदी लघुपट दाखयतालो. जून १९१४त ताणें 'सत्यवान सावित्री' हो आनीक एक चित्रपट तयार केलो. ह्या चित्रपटाक ताका पुराय तरेन यश मेळटकच नवी यंत्रसामुग्री हाडपाक आनी भारतीय चित्रपटाक परदेशांत वाव मेळची ह्या हेतात तो परत इंग्डांक गेलो. थंयच्या दोन निर्मात्यांनी ताका थंय भारतीय कथाप्रंसंगाचेर चित्रपट करूंक सांगलें. तेखातीर ते पुराय खर्च करूंक आनी ताका नोकरी दिवंक तयार आशिल्ले. पूण फाळकेन तें मान्य केलेंना आनी तो भारतांत आयलो.

भारतांत येतकच तो लघुपट - व्यंगपटावट्यां घुंवलो. दोन वर्सांमदीं ताणें आगकाड्यांची मौज, नाशिक - त्र्यंबकचे देखावे, तळेगांव कांच कारखानो, केल्फाचो जादू, लक्ष्मीचो गालिचो, धूम्रपान लिला, सिंहस्य पर्वणी, चित्रपट कसो तयार करतात, कार्तिक पुर्णिमा उत्सव, धांदळी भटाचें गंगास्थान, संलग्न रस, स्वप्नविहार हे शिक्षणपर आनी म्हायतीपर लघुपट ताणें तयार केले. हाका लागून अनुबोध पटाच्या जनकत्वाचो मान ताका वता. उपरांत ताणें १९ सप्टेंबर १९१७ ह्या दिसा 'लंका दहन' हो चित्रपट तयार करून प्रदर्शित केलो. ह्या चित्रपटाक खूब नामना मेळ्ळी. ताचें हें यश पळोवन ताका अर्थीक आदार दिवपाखातीर लोकमान्य टिळकान फुडाकार घेवन शेठ मोहनदास रामजी आनी शेठ रतन टाटा आदींच्या आदारान पांच लाख रुपया भांडवल उबें करून 'फाळकेन फिल्म लिमिटेड' ही संस्था उबारपाची येवजण आंखली, पूण ही येवजण चालीक लागली ना. फुडें वामन श्रीधर आपटे, माया शंकर भट्ट, माधवजी जयसिंग आनी गोकुळदास दामोदरदास भांडवलदाराचे भागीदारीन १ जानेवारी १९१८ ह्या दिसा 'फाळके फिल्मस' चें रुपांतर हिंदूस्थान सिनेमा फिल्म कंपनींत केलें. तेन्नाच ताणें नाशिकाक चलचित्रपट निर्मिती घर बांदलें. हे संस्थेच्या 'श्रीकृष्णाजल्म' (ऑगस्ट १९१८) आनी कालियामर्दन (मे १९१९) ह्या फाळकेन दिग्दर्शीत केल्ल्या दोनूय चलचित्रांक यश मेळ्ळें. उपरांत तो नाशिकाक गेलो थंय ताणें 'रंगभूमी' हें नाटक बरयलें. १९२२ तो परत हिंदूस्थान फिल्म कंपनींत आयलो आनी 'महानंदा' (१९२३) सारक्या दर्जेदार अशा आडतीस चलचित्रांक दिग्दर्शन केलें. १९१८ ते १९३४ ह्या काळांत हिंदुस्थान फिल्म कंपनीन वट्ट ९७ चलचित्रां काडलीं. तातूंतल्या ४० चलचित्रांक फाळकेन दिग्दर्शन केलें. ते भायर गंधर्वाचा स्वप्न विहार, खंडाळा घाट, विंचवाचा दंश, विचित्र शिल्प, खोड मोडली, वचन भंग आदी लघुपटूय ताणें दिग्दर्शीत केले. ताणें दिग्दर्शीत केल्लो 'सेतुबंधन' हो हिंदुस्थान फिल्म कंपनीचो निमाणो चित्रपट पिरायेच्या ६०व्या वर्सा आपलो आदलो अणभव लक्षांत घेवन ताणें एनॅमल बोर्ड प्रोडक्शन सुरू केलें. तेन्नाच कोल्हापूर चलचित्र निर्मितीखातीर ताका आपयलो. गंगावतरण १९३७ हो कोल्हापूर सिनेटोनाखातीर ताणें दिग्दर्शीत केल्लो पयलो बोलपट.

भारतीय चलचित्र वेवसायाक २५ वर्सां पुराय जालीं देखून १९३९ एप्रिल - मे त एक कार्यक्रम घडोवन हाडून ताचो सत्कार केलो आनी ताका ५,००० रुपयांची थैली अर्पण केली. दादासाहेब फाळकेच्या जल्मशताब्दी सावन १९७० चलचित्र सृश्टींत बरें काम केल्ल्या कलाकाराक 'दादासाहेब फाळके' हो पुरस्कार दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**फॉकनर, विल्यम :** (जल्म : २५ सप्टेंबर १८९७, न्यू आल्बनी, मिसिसिप्पी; मरण : ६ जुलय १९६२ ऑक्सफर्ड).

नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो संवसारीक नामनेचो अमेरिकी कादंबरीकार तो ल्हान आसतनाच ताचो घराबो ऑक्सफर्डाक आयलो. थंयच ताणें आपलें शालेय शिक्षण पुराय केलें. पूण ताका शिक्षणाची व्हडलीशी आवड नाशिल्ल्यान ताणें तें मदींच सोडून दिलें. १९१८त पयल्या म्हाझुजाच्या कामांत ताणें कॅनडांतले शाही वायुसेनेंत छात्र म्हणून प्रवेश घेतलो. पूण ताचें प्रशिक्षण पुराय जावंचे आदींच पयलें म्हाझूज सोंपलें. झुजा उपरांत खास प्रवेश नेमांच्या आदारावरवीं ताणें मिसिसिप्पी विद्यापिठांत प्रवेश घेवन स्पेनी आनी फ्रांसेझ भासांचो अभ्यास केलो. १९२० वर्सा तो न्यूयॉर्क शारांत आयलो. थंय ताका साहित्यिकांचो सांगात मेळ्ळो. 'मार्बल' हो ताचो पयलो कवितांझेलो १९२४ उजवाडा

आयलो. फुडें तो नामनेचो अमेरिकी कथाकादंबरीकार शॅखुड अँडरसन हाच्या उत्तेजनान कादंबरी लेखन करूंक लागलो. 'सोल्तसे पे' ही ताची पयली कादंबरी १९२६त उजवाडा आयली. उपरांत ताची सार्टोरिस ही कादंबरी उजवाडा आयली. उपरांतच्या काळांत ताणें बरयल्ल्यो कादंबऱ्यो ह्यो द साउंड अँड द फ्युरी (१९२९), अॅज आय ले डाइंग १९३०, लायट इन ऑगस्ट (१९३२), अॅबसॅलॉम, अॅबसॅलॉम! १९३६ आनी इंट्रुडर इन द डस्ट १९४८ ह्यो सगळ्यो कादंबऱ्यो ताणें योकनापाटॉका नांवाचो काल्पनीक प्रदेश निर्माण करून बरयल्ल्यो. ताची 'द बॅर' ही कादंबरीय तेच फाटभुंयेर बरयल्ली आसा.

फॉकनर हाणें आपल्या कादंबऱ्यांवरवीं श्रद्धाहीन वेपारी वर्गांतल्या सुवार्थी आनी संधीसाधू प्रवृत्तीचें दर्शन घडयलां. ताची लेखनशैली असांकेतीक, मोडणामोडणाची आनी स्थूल काळप्रवाह अकस्मात बंद करून वाचकांक बुचकळ्यांत उडोवपी. तरी ताची कल्पकता आनी ताची तीक्ष्ण नदर ह्या गुणांक लागून चिकित्सक वाचकांचेर ताचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. १९४९ वर्सा ताका साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार दिवन ताच्या साहित्यीक वापराचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**फॉकलँड जुंवे** : ब्रिटिशांच्या ताब्यांत आशिल्ले दक्षिण अॅटलांटीक म्हासागरांतले जुंवे. क्षेत्रफळ १२.१७३ चौ. कीमी. हे दक्षिण अमेरिकेच्या दक्षिण तोंकाचे उदेंतेक ४८० की. मी. मागेल्लयांयश सामुद्रधुनीचे उदेंतेक ५१° दक्षिण ते ५३° दक्षिण अशांश आनी ५७° अस्तंत ते ६२° अस्तंत रेखांश अशे पातळ्ळयात. ईशान्य – नैर्ऋत्य दिकेन आशिल्ल्या फॉकलंड हे उणे रुंदायेचे सामुद्रधुनीन वेगळे केल्ले उदेंत फॉकलंड (४,५३२ चौ. कीमी.) ह्या दोन मुखेल जुंव्या खेरीज हेर ल्हान व्हड अशे २०० जुंवे हातूंत आस्पावल्यात. उदेंत फॉकलँड स्टॅन्ली ही तांची राजधानी.

**भूंयवर्णन** : जुंव्यांचो भूंयभाग दोंगरी, वसाड आनी दलदलीचो. श्वाझल आनी ब्रेटन ह्या सामुद्रधुन्यांक लागून उदेंत फॉकलँड जुंव्याचे दोन वांटे जाल्ले आसात. तांचे उत्तरेक उदेंत – अस्तंत अशी विकहॅम ही दोंगरां वळ आसा. अझबर्न (६८४ मी.) हें जुंव्यावयलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक. अस्तंत फॉकलँड जुंव्याचेर फॉकलँड सामुद्रधुनीक समांतर अशी हॉर्नबी ही दोंगरांवळ आसा. माऊंट अॅडम हें ह्या जुंव्यांवयलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक (७०६ मी.). ह्या जुंव्यावयल्यो न्हंयो सामक्यो ल्हान आसात.

हांगाच्या हवामानाचेर अस्तंतेच्यान येवपी वाऱ्याचो परिणाम जाता. स्टॅनलीक हांगा वाऱ्याचो नेट वराक सु. २५ किमी. इतलो आसता. हांगाचें हवामान सदांकाळ शितळ आसता. जानेवारी म्हयन्यांत हांगाचें तापमान ९° सॅ. जाल्यार जुलयांत ते ३° सॅ. इतलें आसता. ह्या जुंव्यांचेर वर्सभरूय पावसाची पिरपीर चालूच आसता. डिसेंबर – जानेवारी म्हयन्यांत चड पावस पडटा. वर्सुकी सरासरी पावस ६३.५ सेंमी. इतलो पडटा.

चड शियांच्या दिसांनी हांगा हिमूय पडटा. हांगा अॅटलांटीक हीद, धवें. तण, तांबडी क्रोबेरी आनी हेर प्रकारची वनस्पत मेळटा. न्हंयांच्या देगणांनी बारीक मातयेंत लिली ह्या फूल झाडांचे विंगड विंगड प्रकार मेळटात. दर्यादेगांचेर आनी कांय ल्हान जुंव्यांचेर टसक नांवाचें तण मेळटा. हांगा सुमार साठ प्रकारांचीं सवणी मेळटात. पूण मोनजात मात सामकी उणी आसा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था** : जॉन डेव्हिस ह्या ब्रिटीश समन्वेशकान १५९२त ह्या जुंव्यांचो सोद लायलो. १६९० त जॉन स्ट्राँग ह्या ब्रिटीश अधिकाऱ्यान हांगाचे सामुद्रधुनीक ल्युशियस क्ररी फॉकलँड ह्या नौदल अधिकाऱ्याचें नांव दिलें – मुखार हेंच नांव जुंव्यांक पडलें. फ्रांसेझ मार्गनिर्देशक ल्वी आल्वान दे बूगँवील हाणें १७६४त उदेंत फॉकलँड जुंव्याचेर 'पोर्ट लुईस' हे वसणुकेची स्थापणूक केली. १७६५त अस्तंत फॉकलँड जुंव्याचेर ब्रिटिशांनी आपली वसणूक १७६६ स्पेनाक दिल्ली. स्पेनान तिचें नांव 'सोलेदाद' अशें दवरलें. स्पेनी लोकांनी ब्रिटिशांक हांगाच्यान १७७०त धांवडावन घाले. उपरांत स्पेनीश आनी ब्रिटीश हांचो ह्या जुंव्याक लागून संघर्श चालूच आशिल्लो. स्पेनीशांनी ब्रिटिशांक एगमॉट किल्ले आनी बंदर दिल्या उपरांत हो संघर्श काबार जालो. १८०६त आर्जेंटिनांत स्पेनीशांआड उठाव जाल्ल्या कारणान स्पेनींशाक फॉकलँड जुंव्यावयलो हक्क सोडचो पडलो. १८२०त ताणीं हे जुंवे परत आपल्या ताब्यांत घेतले. १८३३त ब्रिटिशांनी स्पॅनीशांचेर हार घालून हांगा आपले सत्तेची स्थापणूक केली. १८४४त सोलेदाद कडच्यान स्टॅन्लीक राजधानी हाडली. १८९२त ह्या जुंव्यांक वसणुकेचो दर्जो मेळ्ळो.

सध्या हे जुंवे ब्रिटिशांच्या शेकातळा आसात. पूण आर्जेंटिनाय तांचेर आपलो हक्क आसा अशें सांगता. ताणीं ह्या जुंव्यांक 'इस्लास माल्व्हीनास' हें नांव दिलां. सध्या ब्रिटीश सरकारान नेमिल्लो राज्यपाल हो कार्यकारी मंडळ आनी विधिमंडळ हांच्या आदारान ह्या जुंव्यांचो कारभार सांबाळटा.

**अर्थीक आनी समाजजीण** : मेंढरां पाळप हो हांगाचो मुखेल वेवसाय. मेंढरांसावन दर वर्साक सु. २१, ५४,५६२, किग्रॅ. लोकर उत्पादन मेळटा. हांचे खेरीज सोरो, स्पिरीट, तंबाकू हेय धंदे नेटान चलतात. गोरवां आनी घोडे पोसपाच्या उद्देगांकूय बरेंच म्हत्व आसा. शेतकी पिकावळ साप उणीं तरी पूण कांय वाठारांनी ओट, बार्ली, बटाट ही पिकां काडटात.

नुस्तेमारी वेवसायाकूय चड म्हत्व आसा. व्हेल, सील नुस्त्यांचें तेल आनी लोकर हांची निर्यात व्हड प्रमाणांत जाता. येरादारीची सुविधा फाटसारिल्ली आसा. १९८६त माऊंट प्लॅझंट हे सुवातेर नवो विमानतळ बांदला. देशांभितर हवाई येरादारीचें केंद्र स्टॅन्लीक हांगा आसा. फॉकलँड आयलड्स कंपनीकडच्यान वर्सांतल्यान चार – पांच फावटीं दर्या येरादारी जाता. नभोवाणी आनी दूरध्वनी हांचीय सोय आसा. स्टॅन्लीक नभोवणी केंद्र आसा.

हांगाची लोकसंख्या १९८६त १९१६ इतली आशिल्ली. तातूंतल्या ९८% लोकांक ब्रिटीश नागरीकत्व आसात. इंग्लंडाचे इगर्जेकडेन संबंद आशिल्ले – ६५% लोक आसा, २३% लोक प्रॉटेस्टंट पंथीय आनी ११% रोमन कॅथलीक आसात. सादारणपणान हांगाचे समाजजिणेचो दर्जो समाधानकारक आसा. हांगा एक कामगार संघटना आसा. ५ ते १५ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांक सक्तीचें आनी फुकट शिक्षण आसा. स्टॅन्लीक दोन विद्यालयां आनी डार्विनाक वसतीगृह विद्यालय आसा. गांवगिऱ्या वाठारांनी भोंवपी शिक्षकां कडल्यानूय शिक्षण मेळटा. फूटबॉल, क्रिकेट, गोल्फ हे हांगाचे मुखेल खेळ.

– कों. वि. सं. मं.

**फॉर्स्टर, एडवर्ड मॉर्गन :** (जल्म : १ जानेवारी १८७९ लंडन; मरण : ७ जून १९७०, कॉवेण्ट्री, वॉरविकशायर).

ब्रिटीश कादंबरीकार, निबंद लेखक आनी समिक्षक. फॉर्स्टराचो बापूय वास्तूतंत्रज्ञ आशिल्लो. फॉर्स्टराच्या ल्हानपणांतूच बापायक मरण आयिल्ल्यान ताची आवय आनी मावश्यांनी ताचो सांबाळ केलो. ताचें शिक्षण कॅंब्रिजांतल्या टनब्रिज स्कूल आनी किंग्स कॉलेजांत जालें. किंग्स कॉलेजांत शिकता आसतना ताका अदीक मेकळीक आनी स्वतंत्र आत्मनिश्ठा मेळ्ळी. मवाळ संशयवादाचें निरोगीपण आनी आफ्रिका आशियांतले संस्कृतायेचें म्हत्व पटलें. उत्तर युरोपी देशांतल्या दृश्टीकोनांचो समतोल सादपाखातीर जिवीतभर आशिया आफ्रिकेंतले संस्कृतायेचो पुरस्कार केलो. ताका लागून साम्राज्य विरोधी, प्रतिगामी, ब्रिटनद्वेश्टो आनी स्वदेश - राजकारण विरोधी लेखक अशी ताची प्रतिमा जाल्ली.

क्रॅबीज सोडटकच जल्मभर लिखाण करचें अशें ताणें थारायलें सुरवातीच्यो ताच्यो कथा - कादंबऱ्यो, व्हिक्टोरियी बंधनां तोडून उडोवपी युगाचेर आसात. बायलांची समाजांतली सुवात आनी हक्क हांचें म्हत्व हे त्या कादंबऱ्यांचे विशय आसात.

फॉर्स्टरान बडोदा आनी देवासच्या संस्थानांचो दिवाण म्हणून कांय वर्सां भारतांत वास्तव्य केलें. पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत तीन वर्सां अलेक्झांड्रियांत समाजसेवेचें काम केलें. १९१२-१३ आनी १९२१ ह्या वर्सा ताणें भारताक भेट दिल्ली. मध्यमवर्गीय जिणेचो बारीकसाणीन अभ्यास, गरिबांची कळकळ, मेरेडिथ मोडणाचें क्रिस्तांवेतर निधर्मीपण (पॅगनिझम) हाका लागून ताचे समाज जिणेवयले विचार ताच्या कादंबऱ्यांतल्यान उकते जाले.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत फॉर्स्टराच्या स्वातंत्र्यवादी विचारांक अदीक म्हत्व प्राप्त जालें. मानवी नात्यांविशींचीं सुत्तां सांगपी लेखकान नाझी आनी अतिरेकी आनी सनातन धर्मवाद्यांचो प्रतिकार करपाखातीर नवीं मुल्यां पुरस्कृत केलीं.

"व्हॅर एंजल्स फियर टू ट्रॅड" (१९०५), "द लॉंगेस्ट जर्नी" (१९०७), "ए रूम विथ अ व्ह्यू" (१९०८), "हॉवर्डस एंड" (१९१०), "ए पॅसेज टू इंडिया" (१९२४) ह्यो ताच्यो कांय म्हत्वाच्यो कादंबऱ्यो. हातूंतल्या एंजल्स फियर टू ट्रॅंड आनी ए रूम विथ अव्हॅर ब्लू ह्या कादंबऱ्यांनी ताच्या इटलींतल्या वास्तव्याचो परिणाम दिश्टी पडटा. आपले काकीचें चरित्र ताणें "मॅरियान थॉर्नटन" (१९५६), भारतांतले अणभव "द हिल ऑफ देवी" (१९५३), तशेंच अलेक्झांड्रिया : ए हिस्ट्री अॅण्ड ए गायड" (१९२२) ह्योय ताच्यो कांय कादंबऱ्यो उल्लेख करपासारक्यो आसात. कॅंब्रीजाक ताणें कादंबरेचेर दिल्लीं व्याख्यानां 'आस्पॅक्टस ऑफ द नॉव्हॅल' (१९२७) ह्या नांवान उजवाडाक आयल्यांत.

"द सॅलॅस्टियल ऑम्निबस अॅंड अदर स्टोरीज (१९११), 'दी इटर्नल मोमॅंट अॅंड अदर स्टोरीस' (१९२८) आनी 'कलॅक्टेड शॉर्ट स्टोरीस' (१९४८) अशे फॉर्स्टरच्या कथांचे तीन झेले उजवाडायल्यात.

ताची हेर बरपावळ अशी : "द कलॅक्टेड टेल्स ऑफ इ. एम. फॉर्स्टर" (१९४७), 'ॲबिंजर हार्वेस्ट' (१९३६), 'टू चियर्स फॉर डॅमॉक्रसी' (१९५१) "बिर्ला बड्डु' (१९५१) ही सांगितिका, 'द लायफ टू कम अॅण्ड अदर स्टोरीस' (१९७१), 'इण्डियन जर्नल्स अॅण्ड एस्सेस' (१९८७).

'मॉरिस' (१९७१) ही ताची निमाणी कादंबरी ताच्या मरणाउपरांत उजवाडायल्या. १९१३ - १४ ह्या वर्सा बरयल्ली ही कादंबरी फॉर्स्टरान आपूण जितो आसतना मुद्दमूच उजवाडावंक ना..

- डॉ. आनंद पाटील

**फॉस्फरस :** एक मूळ द्रव्य. ताचें चिन्न (Symbol) P. फॉस्फरस हें पिरियॉडीक कोश्टकांत V A गटांत तिसरे ओळींत आसा. ताचो अणूभार ३०.९७५ आनी अणूक्रमांक १५. फॉस्फरसाच्या एका अणूंत १५ इलॅक्ट्रॉन्स, १५ प्रोटॉन्स आनी १६ न्युट्रॉन्स आसतात.

**इतिहास :** १६६९ वर्सा ब्रांट ह्या जर्मन शास्त्रज्ञान धवी रेंव आनी आटोवन सुके केल्लें मूत एकठांय करून एक धवो घनपदार्थ मेळयलो. तो काळखांत चकचकता आनी हवेंत पेट घेता अशें ताका दिसलें. फॉस्फरस काळखांत लिकलिकता देखून ताका फॉस्फरस (उजवाड आशिल्लो) हें नांव दवरलें. १६८०त रॉबर्ट बॉयल ह्या शास्त्रज्ञान वयर सांगिल्ले पद्दतीन धवो घन पदार्थ तयार करूंक येस मेळयलें. १७७१त जे. जी. गान ह्या शास्त्रज्ञान हाडांनी फॉस्फरस आसता हें सोदून काडलें १७७५त कार्ल शेल ह्या शास्त्रज्ञान हाडां, गोबर, रेंव आनी कोळसो तापोवन व्हड प्रमाणांत हो पदार्थ मेळयलो. १७७७त ए. एल. लवॉयझर हाणें हो धवो पदार्थ म्हळ्यार एक मूळद्रव्य हें सिद्ध केलें. आंतोन फॉन श्रोहे हाणें १८४५ वर्सा तांबड्या फॉस्फरसाचो सोद लायलो.

फॉस्फरसाची हेर रसायना वांगडा रोखडी प्रकिया जाता आशिल्ल्यान तो मूळ रुपान सैमांत मेळना. धर्तरेंत तो ०.१३% आसता. फॉस्फरसाचीं मुखेल खनिजां अशीं. : फॉस्फरायट $Ca_3(PO_4)_2$ फ्युओरापॅटायट $3Co_3(PO_4)_2CaF_2$, क्लोरापॅटायट $3Co_3(PO_4)Cacl_2$ ॲल्युमिनियम फॉस्फेट $AlPO_4$. फॅरीक फॉस्फेट $FePO_4$ फॉस्फरस हें जिवांचे तशेंच वनस्पतीचे वाडीक गरजेचें मुलद्रव्य आसा. सगळ्या जित्या प्राण्यांच्या हाडां, दांत आनी प्रथिनां हातूंतलो फॉस्फरस हो एक म्हत्वाचो आनी गरजेचो घटक मानतात. भाजयो, कड्डणां, तांतयांतलो धवो बोळ हातूंत फॉस्फरसाचीं संयुगां मेळटात. मेंदु आनी रगत हातुंतूय खूब उण्या प्रमाणांत फॉस्फरस मेळटा. सगळ्या प्रकारच्या सजिवांभितर चयापचय, प्रकाश संश्लेशण, तंत्रिका कार्य, स्नायूंची क्रिया ह्या सारक्या उर्जा - अंतरणाच्या प्रक्रियांनी फॉस्फराचो म्हत्वाचो वांटो आसता.

**उत्पादन :** फॉस्फरसाचें उत्पादन दोन पद्दतींनी करूं येता. १) पुर्विल्ली उत्पादन प्रक्रिया २) आर्विल्ली विद्युत् भट्टी पद्दत.

पुर्विल्ली उत्पादन प्रक्रिया : हे पद्दतींत फॉस्फरायट खनिज ना जाल्यार हाडांचो गोबर वापरून फॉस्फरस तयार करताले. हाडांच्या गोबरांत चडशें कॅल्शियम फॉस्फेट आसता. हाडांचो गोबर करचे पयलीं हाडां उदकांत शिजयतात. उदकांत शिजयिल्ल्यान तांतूतलें जिलेटीन धुवन वता. हाडांतली चरबी कार्बन-डायसल्फायडांत विरगळायतात. उपरांत उरिल्लीं हाडां लोखणाच्या आयदनांनी उकडटकच तांचो कोळसो जाता. हो कोळसो साकर कारखान्यांनी उंसाचो रोस निवळावपाक वापरतात. उपरांत हाडांचो कोळसो लासून ताचो गोबर करतात. ह्या गोबरांत जाय तितलेंच कडक सल्फ्युरीक ॲसीड घालून तापयकच ताचें कॅल्शियम सल्फेट आनी ऑर्थोफॉस्फरीक ॲसीड जाता.

$$Ca_3(PO_4)_2 + 3H_2SO_4 \rightarrow 3CaSO_4 + 2H_3PO_4$$

हाडांचो गोबर सल्फ्युरीक कॅल्शियम ऑर्थोफॉस्फरीक
ॲसीड सल्फेट ॲसीड

ऑर्थोफॉस्फोरीक ॲसीड तापोवन सुकयतकच ताचें मॅटाफॉस्फोरीक ॲसीड जाता.

$$H_3PO_4 \rightarrow HPO_3 + H_2O$$

आर्थोफॉस्फोरीक ॲसीड मॅटाफॉस्फोरीक ॲसीड उदक

मॅटाफॉस्फोरीक ॲसीड कोळशापिठो घालून तापयतकच धव्या फॉस्फरसाची वाफ तयार जाता. ही वाफ उदकापोंदा थंड करतकच धवो फॉस्फरस मेळटा.

$$4HPO_3 + 10\,C \rightarrow P_4 + 10\,Co + 2\,H_2O$$

२) आर्विल्ली विद्युत भट्टी पद्दत : फॉस्फरायट खनिज, रेंव आनी कोक हांची भरसण विद्युत भट्टेंत १००२ ते १५०२° सँटीग्रेड तापमानांत तापयतकच फॉस्फरस तयार जाता.

$$2\,Ca_3(PO_4)_2 + 6\,Sio_2 \rightarrow 6\,Ca\,Sio_3 + P_4O_{10}$$

फॉस्फोरायट खनीज, रेंव, कॅल्शियम सिलिकेट, फॉस्फोरस पँटोक्साय

$$P_4O_{10} + 10\,C \rightarrow P_4 + 10\,Co$$

कोक, फॉस्फरस

विद्युत् भट्टेक लोखणाची टांकी आसता. हे टांकयेक भितरल्यान विटांचो थर आसता. भट्टेचे वयले वटेन आशिल्ल्या पायपातल्यान थंड उदक सोडिल्लें आसता. भट्टी तापोवपाखातीर भट्टेपोंदा कार्बन इलॅक्ट्रोडस बसयल्ले आसतात.

विद्युत् भट्टी अखंड चलत रावता. ती चालू आसतना तातूंत फॉस्फोरायट रेंव आनी कोक घालूक मेळटा. भट्टेंत फॉस्फरसाची तयार जाल्ली वाफ वयले वटेनच्या पायपांतल्यान उदकांत वचून थंड जातकच वाफेचो उदकापोंदा घट्ट फॉस्फरस जाता. भट्टेंत तयार जाल्लें कॅल्शीयम सिलिकेट भट्टेपोंदच्या बुरकांतल्यान भायर सरता. हे पद्दतीन तयार केल्लो फॉस्फोरस ॲसीड भरशिल्लें पोटॅशियम डाय घालून निवळ करतात.

फॉस्फोरस हें भौरुपी मूळद्रव्य. ताचीं पांच वेगळीं रुपां आसात. तीं अशीं १) धवो वा हळदुवो फॉस्फोरस २) तांबडो फॉस्फोरस ३) शेंदुरी ४) जांबळो ५) काळो.




धव्या फॉस्फरसांतली अणूंची मांडावळ.




तांबड्या फॉस्फरसांतली अणूंची मांडावळ

धवो फॉस्फरस ताजो आसतना धवो फुल्ल आसता. पूण थोड्यावेळान तो हळदुवो जाता. देखून ताका हळदूवो फॉस्फरस म्हण्टात. धवो फॉस्फरस मेणावरी मोव आसता आनी ताचे सुरयेन सहज कुडके करूं येतात. तो उदकापरस १.८ पटीन जड (Specific gravity) आसता. धवो फॉस्फरस उक्तो दवरल्यार आपशींच पट्टा देखून तो सदांच उदकांत बुडोवन दवरतात. धवो फॉस्फरस ४४° सँटीग्रेडचेर कडटा जाल्यार २९०° सँटीग्रडचेर खतखतता. धव्या फॉस्फरसाक लशणीवरी वास येता. फॉस्फरस उदकांत विरगळना पूण कार्बन डायसल्फायडांत विरगळटा. तो भयंकर विखाळ आसता. फॉस्फरस उद्देगांत काम करपी कामगारांक दाडवणां घट्ट जावपाचें दुयेंस जाता. धवो फॉस्फरस हवेंत सवकासायेन जळटा देखून काळखांत तो लिकलिकता.

धवो फॉस्फरस प्रक्रिया जायना असल्या वातावरणांत २५० सेंटीग्रेड तापयतकच तांबडो फॉस्फरस जाता. ताचो रंग काळसो तांबडो आसता. ताका वास येना आनी तो विखाळूय नासता. तो काळखांत लिकलिकना. उदकांत वा कार्बनडायसल्फायडांत विरगळना. हवा नासतना तापयल्यार २९२° सॅ. ताची वाफ धव्या फॉस्फरसावरी तो आपशींच पेटना. पूण २६०° सँ. परस चड तापयल्यार पेट्टा आनी ताचो फॉस्फरस पँटॉक्सायड जाता.

प्रक्रिया जायना असल्या वातावरणांत तांबडो फॉस्फरस खतखतावन ताची जाल्ली वाफ उदकापोंदा न्हिवयतकच तांबड्या फॉस्फरसाचो धवो फॉस्फरस जाता.

**फॉस्फरसाची हेर रुपां आनी गुणधर्म :**

शेंदुरी फॉस्फरस : हो तांबड्या फोस्फरसावरी आसता. पूण ताच्यो प्रक्रिया तांबड्या फॉस्फरसापरस बेगीन जातात.

जांबळो फॉस्फरस : हो सगळ्यांत जड ताची जडाय २.३४ - २.३९° ऑक्सिजना वांगडा ताची प्रक्रिया जायना आनी तातूंतल्यान विजुय वचना.

काळो फॉस्फरस : हातूंतल्यान वीज वता.

**उपेग :** फॉस्फरसाच्या वट्ट उत्पादनांतलें ९०% फॉस्फरस, फॉस्फोरस आम्लां आनी लवणां तयार करपाखातीर वापरतात. फस्कां तयार करपाच्या उद्देगांत फॉस्फरस वापरतात. तांबें (५४%), कलय (५%) आनी फॉस्फरस (०.१ - ०.३५) एक करून फॉस्फरस कांशे हो मिश्रधातू तयार करतात. फॉस्फरस कांशे साद्या कांश्यापरस घट आसता. तें झरना आनी ताका कळमूय येना. धवो फॉस्फरस हुंदराचें वीख म्हणून वापरतात. फोग आनी वखदां तयार करूंक तशेंच रसायनां उद्देगांनी फॉस्फरस वापरतात. गोंयांत हिंदुस्तान सिबा कंपनी ह्यां जीवनाशंका तयार करपाच्या कारखान्यांत धवो फॉस्फरस व्हड प्रमाणांत वापरतात. जीवनाशकां तयार

करूंक लागपी फॉस्फरस ट्रायक्लोरायड हें रसायन तयार करूंक धव्या फॉस्फरसाचो उपेंग जाता. जुवारी नगरांत आशिल्ल्या झुवारी ॲग्रो केमिकल्स ह्या साऱ्या कारखान्यांतूय सारीं तयार करपाक फॉस्फरसाचीं रसायनां वापरतात. भुरगेपणांत हाडाची वाड जावपाक फॉस्फरस गरजेचो. मुडदुस जाल्ल्या भुरग्याक फॉस्फरस आनी कॅल्शियमयुक्त वखदां दितांत. अस्पिमार्द, एकांग, नपुसंकावस्था, क्षयरोग आनी हेर तंत्रिकातंतूच्या उणेपणांत तंत्रिका तंतूक घटसाण मेळपाक हो फॉस्फरस संयूग रुपान गूणकारी थारता.

पूण हातूंत मेकळो हळदुवो फॉस्फरस मात विखारी आसता. तो अन्नांतल्यान वा हेर तरेन पोटांत गेल्यार पोटांत वळप, ओंकूंक येवप, पोटांत जळप हीं लक्षणां दिसतात. अशा वेळार फॉस्फरसाचें शरिरांत शोशण जावंचे आदी ओंकपाक येवपी वखद दिवप गरजेचें आसता. ०.२५ ग्रा. कॉपर सल्फेट पेलोभर उदकांत घालून तें उदक त्या मनशाक पियेवपाक दिल्यार बरें पडटा. ०.१ ग्रा. इतलो धवो फॉस्फरस पोटांत गेल्यार पंडुरोग, क्षुधानाश आनी वजन उणें जावन त्या मनशाक मरण येवपाचीय शक्यताय आसता.

**संयुगां :** फॉस्फरसाचीं जायतीं कार्बनी तशेंच अकार्बनी संयुगां आसात, तीं अशीं -

हायड्रायडां : फॉस्फरसाचीं मुखेल दोन हायड्रायडां आसात. १) फॉस्फीन ($PH_3$) २) फॉस्फोनियम डाय हायड्रायड ($P_2F_4$).

हॅलायडां : फॉस्फरसापूसन तरेतरेचीं हॅलायडां मेळटात. १) ट्रायहॅलायडां २) $PF_3$, $Pcl_3$, $PBr_3$, $PI_3$ २) पँटाहॅलायडां ($PF_5$, $Pcl_5$, $PBr_5$) ३) ऑक्सिहॅलायडां ($POX_3$ X= हॅलोजन अणू) ४) थायोहॅलायडां ५) नायट्रोहॅलायडां.

ऑक्सायडां : फॉस्फरसाचीं मुखेल अशीं दोन ऑक्सायडां आसतात. फॉस्फरस डायऑक्सायड ($P_2O_3$) आनी फॉस्फरस पँटॉक्सायड ($P_2O_5$)

सल्फायडां : फॉस्फरसाचीं $P_4S_4$, $P_4S_5$, $P_4S_7$ आनी $P_4S_{10}$ अशीं सल्फायडां आसात.

नायट्रायडां : नायट्रोजनावांगडा फॉस्फरसाचीं जायतीं संयुगां तयार जातात. तातूंतलीं $P_3N_5$, $P_2N_5$ आनी PN हीं मुखेल आसात.

कार्बनी संयुगा : नायट्राजन आनी फॉस्फरस हीं मूळद्रव्यां आवर्त सारणींत एकाच गटांत आशिल्ल्यान फॉस्फरसाचीं कार्बनी संयुगां नायट्रोजनाच्या कार्बनी संयुगांवरीं तयार करतात.

– प्रेमानंद गो. फडते

**फिच, व्हाल लॉग्सडॉन :** ( जल्म : १० मार्च १९२३, मेरिमन – नेब्रास्का).

अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ. ताका ल्हानपणासावन रसायनशास्त्राची आवड आशिल्ली. अमेरिकन लश्करांत आसतना दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत ताका लॉस ॲलमॉस (न्यू मेक्सिको) अणुबाँब प्रकल्पांत काम करपाखातीर धाडलो आनी तेन्नाच ताचो भौतिकशास्त्र ह्या विशयाकडेन संबंद आयलो. जुलय १९४५त ताणें ॲलामोगोर्डोच्या ५०९ बाँबहल्लो गटान घेतिल्ल्या चाचण्यांनी आनी मुळावे अणुबाँब चाचणेंत वांटो घेतिल्लो. मॅक्गिल विद्यापिठांतल्यान ताणें १९४८त विद्युत् अभियांत्रिकी ह्या विशयांतली पदवी आनी कोलंबिया विद्यापिठांतल्यान १९५४त भौतिकशास्त्र ह्या विशयांतली डॉक्टरेट मेळयली. १९५३ – ५४त कोलंबिया विद्यापिठांत निर्देशक म्हणून काम करतकच तो प्रिन्स्टन विद्यापिठांत अध्यापन करपाखातीर गेलो आनी थंय १९६० सावन भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून काम करता. १९७६त, ह्या विद्यापिठाच्या भौतिकशास्त्र विभागाचो तो अध्यक्ष जालो.

विद्युत् चुंबकीय अविश्कारांखातीर तीन तरांच्या सममितींचें पालन करतात, अशे फिच आनी क्रोनिन हांचेपयलीं सिद्द जाल्लें. ह्यो तीन तरांच्यो सममिती अशो : १) द्रव्य आनी प्रतिद्रव्य हांचेमदली सममिती (देखीक - इलेक्ट्रॉन आनी पॉझिट्रॉन), २) मूळ घडणूक वा वस्तू आनी तिचे हारशांतलें प्रतिबींब हांचेमदली सममिती ऊर्फ समता आनी ३) अग्रगामी आनी प्रतिगामी काळ हांचेमदली सममिती.

गुरुत्वाकर्शण आनी आणवीय स्तरावयले मूलकण (देखीक - प्रोटॉन, न्यूट्रॉन आनी मेसॉन) ह्याच सममिती तत्त्वांचे पालन करतात अशें दिशिल्लें. पूण मूलकणांच्या क्षयासारक्या दुबळ्या परस्पर क्रियांनी हातूंतली हारशांतल्या प्रतिबिंबाच्या स्वरुपांतली सममिती आसना अशें टी. डी. ली. आनी सी. एन्. यांग हाणीं पयलीं प्रयोगान १९५७त सिद्ध केलें. ज्या तत्त्वाचें उल्लंघन जालां त्या तत्त्वांप्रमाण खंयचीय खाशेली भौतिकीय परस्परक्रिया शक्य आसल्यार तिचें हारशांतले प्रतिबिंबरुपी व्युन्क्रमी रूप लेगीत शक्य आसूंक जाय असो अर्थ जाता. मूळ परस्परक्रिया आनी तिचें हारशांतलें प्रतिबींब हांचेमदीं वामावर्ती आनी दक्षिणावर्ती सममितींचो आस्पाव जाता. म्हणजेच सैम ह्या दोन प्रकारांमदीं भेदभाव करिना अशें कळटा. ह्या सोदाक लागून अशें स्पश्ट जालें, तीन सममिती तत्त्वांमदल्या दोन सममिती तत्त्वांचें एकाच वेळार उल्लंघन जावप शक्य आसा.

एका सममितीच्या उल्लंघनाक लागून जाल्लो परिणाम दुसऱ्या सममितीच्या योग्य उल्लंघनाक लागून भरून कांडू येता. ताका लागून असल्यो सगळ्यो मुळाव्यो परस्परक्रिया काल व्युत्क्रमणाखातीर सममित आसूंक जाय असो निश्कर्श कांडू येता. ह्या सोदाक लागून अशें सिद्द जालें, वामावर्ती आनी दक्षिणावर्ती सममितींचें जाल्लें उल्लंघन द्रव्यासुवातेर योग्य प्रतीद्रव्य वापरून भरून काडूंक जावचेंना. हाचेवयल्यान हाचो अर्थ असो जाता, काल व्युत्क्रमण परस्परक्रियांखातीर आविश्काराची सममिती उरचीना. विश्वाचे उत्पत्तीच्या वेळार आसपी परिस्थितीचें स्पश्टीकरण करपाखातीर हो सोद म्हत्वाचो.

फिच आनी क्रोनिन हाणीं अशा क्षय क्रियांचो जेन्ना अभ्यास केलो, तेन्ना तांकां अशें दिसलें, चडशा सगळ्या परस्परक्रियांनी जरी ह्या सममितींचें उल्लंघन जायत नासलें, तरी कांय अल्पसंख्या परस्परक्रियांनी अशें उल्लंघन जायतूच आसता आनी तेखातीर तांकां निश्चित पुरावोय मेळ्ळा. ह्या सोदाक लागून हें स्पश्ट जालें, विश्वाचे सुर्वेक जो म्हास्फोट जाला अशें मानला, त्या वेळार द्रव्याचें प्रमाण प्रतीद्रव्यापरस चड जाता. ताका लागून ह्या द्रव्यांची परस्परक्रिया जावन तें नश्ट जावपाचो प्रस्न उपरासना.

फिच आनी शिकागो विद्यापिठांतलो भौतिकशास्त्रज्ञ जे. डब्लू. क्रोनिन हाणीं ब्रुकहॅवन नॅशनल लॅबोरेटरींत (न्युयॉर्क) अक्रिय K - मेसॉनांतल्या क्षयाविशीं केल्ल्या प्रयोगावरवीं मुळाव्या सममितींच्या तत्त्वांच्या जावपी उल्लंघनांचो सोद लायिल्लेखातीर ताका १९८० वर्साचो भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो. ताका आनिकूय कितलेशेच भोवमान मेळ्ळ्यात.

– कों. वि. सं. मं.

**फिजी** : प्रशांत महासागरांतल्या जुंव्याच्या चोंम्यांनी तयार जाल्लो स्वतंत्र देश. क्षेत्रफळ १८,३७६ चौ.किमी. लोकसंख्या ७,४७,००० (१९९१). हे जुंवे न्यूझीलंडाचे उत्तरेक २,१०० किमी. १५° दक्षिण ते २२° दक्षिण अक्षांश आनी १७४° उदेंत ते १७७° अस्तंत रेखांश मजगतीं आसा. तांच्ये भोंवतणीं कॉरो दर्या आसा. तातूंत सुमार ८५० ल्हान व्हड जुंव्यांचो आस्पाव जाता आनी तातूंतल्या सुमार १०० जुंव्यांचेर लोकांची वसणूक आसा. व्हिटी लेव्हू (१०,३८८ चौ.किमी.), व्हानूआ लेव्हू (५५३५ चौ. किमी.), टाव्हेऊनी (४३२ चौ. किमी.), कांडाव्हू (४०६ चौ. किमी.), कॉरॉ, ओव्हालाऊ, एनगाऊ हे मुखेल जुंवे आसून लाऊ आनी यासावा हे जुंवे म्हत्वाचे आसात. व्हिटी लेव्हू जुंव्यावयली सुव्हा ही फिजीची राजधानी.

**भूंयरचणूक** : फिजी जुंव्यांच्या चोंम्यांचे रचणुकेंत वेगळेपण मेळटा. व्हिटी लेव्हू, व्हानूआ लव्हू, ओताला रोटूमा हांचे असले व्हड जुंवे ज्वालामुखी पसून तयार जाल्ले आसात. जाल्यार ल्हान जुंवे हे प्रवाळांनी तयार जाल्ले आसात. व्हड जुंव्यांच्या मध्यभागांत पर्वतावळी आसून व्हिटी लेव्हुचेर टोमानीव्ही हें १३२३ मी. उंचायेचें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक आसा. जाल्यार व्हानुआ लेव्हूचेर नासोरोलेव्हू (१०३२ मी.) हें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक आसा.

रेवा ही हांगाची मुखेल न्हंय. एम्बा, नाव्हुआ, सिंगाटोका ह्यो हेर न्हंयो.

हांगाचें हवामान उश्ण कटिबंधीय दर्याप्रकाराचें. हांगाचें हवामन दमट आसून चडांत चड तापमान डिसेंबर ते एप्रिल आनी उण्यांत उणें तापमान जून ते सप्टेंबर ह्या म्हयन्यांनी आसता. हांगाचें दिसाळें तापमान सरासरी २४° ते २९° सॅ. आसून केन्ना केन्नाय तें १८° ते २१° मेरेन सकयल येता. हांगा पावसाचें सरासरी तापमान सगळेकडेन सारकेंच आसता. पूण सुव्हा हें राजधानीचें थळ उदेंतेकडेन आशिल्ल्यान थंय ३०० सेंमी. पावस पडटा. केन्ना केन्नाय डिसेंबर ते एप्रिल म्हयन्यांनी हरिकेन (वादळी) वाऱ्याक लागून ह्या जुंव्याक त्रास जाता.

फिजी जुंव्याचो खूबसो वाठार रानान व्यापिल्लो आसा. व्हड व्हड जुंव्यांचेर पावसाक लागून सदांच पाचवीं उरपी रानां आसात. जाल्यार कांयकडेन तण, कवासो, नेचा हे सारकी वनस्पत मेळटा. हांचेभायर उकुआ आनी दिलो हे सारकी उपेगी वनस्पतूय मेळटा.

ह्या जुंव्याचेर सुणें, दुकर, मुंगूस, वांगोळीं आदी प्राणी आसात. तशेंच बुलबूल, मैना, पोपट, कबुतरां हे सारकीं सुकणीं हांगा दिश्टी पडटात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था** : फिजी जुंव्याची पुर्विल्ली म्हायती चडशी मेळना. १६४३ वर्सा आवेल टास्मान ह्या हॉलंडी संशोधकान ह्या जुंव्यांच्या व्हानुआ लेव्हू टाव्हेऊनी आनी ईशान्येकडल्या ल्हान जुंव्यांचो सोद लायलो. १७७४त कॅप्टन जेम्स कूक हाणें लाऊ जुंव्याच्या चोंम्यांतल्या व्हाटोआ जुंव्याचो सोद लायलो. कॅप्टन ब्लाय (१७५४-१८१७) 'बाऊंटी' ह्या तारवांतल्यान भोंवडी करता आसतना ताणें व्हिटी लेव्हू, एनगाऊ, कॉरो आनी यासावा ह्या जुंव्यांचो सोद लायलो. १७९१त कॅ. एडवर्डसन हाणें रोहुमा जुंव्याचो सोद लायलो, जाल्यार कॅप्टन जेम्स विल्सन ह्या ब्रिटीश मिशनऱ्यान व्हानुआ एम्बालाऊ आनी लाऊ चोंम्यांतल्या हेर ल्हान जुंव्यांचो सोद लायलो. हाचेभायर १८२०त रशियन संशोधक फेबिअन गॉटलीब फॉन बेलिंग्स हाउझेन (१७७८-१८५२) आनी १८२७त फ्रांसेझ मार्गनिर्देशक युर्व्हिल द्युमां हाणीं ह्या जुंव्या चोंम्यांतल्या कांय जुंव्यांचो सोद लायलो.

१८०४ वर्सा लेव्हुलांत युरोपीयन लोकांची पयली वसणूक स्थापन जाली. १८३५ वर्सा टॅंगासावन हांगा पयले मिशनरी आयले. १८५०त थळाव्या संघर्शाक लागून कॅकोबाऊ ह्या टोळये मुखेल्याक परत मामानुथा जुंव्याचेर वचचें पडलें. १८५४त ताणें क्रिस्तांव धर्म आपणायलो. फुडें टॅंगाच्या राजान कॅकोबाऊक सैनिकी आदार दिल्ल्यान तो अस्तंत फिजीचो मुखेली जालो. पूण वेपारी, वसाणूककार हांकां लागून ताच्या कारभारांत अडचण येवंक लागली. तेन्ना जुंव्यांची राखण करूंक ताणें १८५८त फिजीक वसणुकेचो दर्जो मेळचो अशी ग्रेट ब्रिटनाकडे मागणी केली. ग्रेट ब्रिटनान १८७४त फिजीक आपले वसणुकेचो दर्जो दिलो आनी लेव्हुका ही वसणुकेची राजधानी केली.

उंसाचो मळो आनी साकर कारखानो हांकां लागून १८७९त भारतीय कामगार फिजींत वचूंक लागले. १८८१त रोहूमा जुंव्याचो फिजींत आस्पाव जालो. इश्ट राश्ट्रांनी दुसऱ्या म्हाझुजांत फिजी जुंव्यांचो म्हत्त्वाचें लश्करी रसदकेंद्र म्हणून वापर केलो. १९६६ चे राज्यघटनेप्रमाण हांगा प्रायनिधीक सरकार स्थापन जालें. रातू सर कामायसेस मारा हो ताचो मुखेलमंत्री जालो. १० ऑक्टोबर १९७० दिसा फिजी देस स्वतंत्र जालो. तरी फिजी हो राश्ट्रकुलाचो स्वतंत्र देस उरलो. मारा हो फिजीचो पयलो प्रधानमंत्री जालो. मे १९८७त हांगा लश्करी बंड जावन कर्नल सितीवेणी राबुका हाणें राजकीय सुत्रां आपल्या हातांत घेवन फिजी देस स्वतंत्र प्रजासत्ताक म्हणून घोशणा केली आनी फिजी देस राश्ट्रकुलांतल्यान भायर सरलो.

हांगाचो राज्यकारभार १९६६च्या संविधानाप्रमाण चलता. फिजीच्या गव्हर्नर जनरलाची नेमणूक ब्रिटीश सरकार करता. हांगा प्रतिनिधी सभा आनी सिनेट अशें द्विसदनी विधिमंडळ आसा. प्रतितिधी सभेंत वट्ट ५२ वांगडी आसून तातूंतले १२ फिजीयन, १२ भारतीय आनी ३ हेर प्रतिनिधी हे जातीय मतदारसंघांतल्यान जाल्यार १० फिजीयन, १० भारतीय आनी ५ हेर प्रतिनिधी हे राश्ट्रीय मतदारसंघांतल्यान ५ वर्सांखातीर वेंचून काडटात. सिनेटांत २२ नेमिल्ले वांगडी आसतात. तातूंतले प्रतिनिधी सभेंतले भारतीय, फिजीयन आनी हेरांव्या मुखेल्यावतीन ८, प्रधाममंत्र्यावतीन ७, विरोधी आनी पक्षनेत्यावतीन ६ आनी रोहूमा काउन्सिलावतीन १ अशे स वर्सांखातीर नेमणूक करप जातात.

**अर्थीक स्थिती** : ऊंस हें ह्या देशाचें मुखें पीक आसून देशाचे अर्थवेवस्थेचे नदरेन ताका बरेंच म्हत्व आसा. तशेंच तांदूळ, मको हीं हांगाचीं मुखेल अन्नधान्यां आसून नाल्ल, आलें, केळीं, हीं हांगाचीं मुखेल वेपारी पिकां आसात. तेभायर तंबाकू, कोको, याकोना, कॉफी, अणस, कणगां, हांचेंय उत्पादन हांगा काडटात.

खणकाम उद्‌देगाक हांगा बरेंच म्हत्व आसून व्हिटी लेव्हुवयल्या व्हाटुकोऊक भांगराच्यो खाणी आनी मॅंगनिझाचे सांठे आसात. तशेंच व्हानुआ लव्हवुचेर तांब्याच्यो खाणी आसात.

ह्या देशाचो चडसो आयात-निर्यात वेपार ग्रेट ब्रिटन, अमेरिका, जपान, न्यूझीलॅंड, ऑस्ट्रेलिया, कॅनडा ह्या देशांकडेन चलता. साकर, भांगर, खोबरेल तेल, नुस्तें, आलें हांगाच्यान निर्यात जाता. जाल्यार विद्युत् सामान, लोखण, पितूळ आदी वस्तूंची हांगा आयात जाता. फिजी

डॉलर हें देशाचें चलन आसून तें जानेवारी १९६९ सावन वापरांत आसा.

ह्या देशांत फावो तशे रस्ते आनी रेल्वेमार्ग ना. तशेच हांगा कांय प्रमाणांत उदका येरादारी आसा. हांगाची दर्यायेरादारी वेगवेगळ्या कंपन्यांवरवीं करप जाता. ऑस्ट्रेलिया आनी अमेरिका हांच्या दर्या तशेंच विमान मार्गावयलें म्हत्वाचें स्थान म्हणून आनी नैर्ऋत्य प्रशांतांतलें एक दळणवळण केंद्र म्हणून फिजीक आगळें वेगळें म्हत्व आसा.

विमान मार्गाक हांगा चड म्हत्व आसून नांदीक आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. तशेंच नाउसोरीक सुव्हाचो विमानतळ आसा. हांचेभायर हेरकडेन आनीक १३ विमानतळ आसात.

सुव्हाक मुखेल नभोवाणी केंद्र आसून थंयच्यान इंग्लीश, हिंदी आनी फिजी भाशेंतल्यान कार्यक्रम प्रसारीत करतात. सूव्हासावन उजवाडाक येवपी फिजीसन आनी फिजी टायम्स हीं हांगाचीं दोन मुखेल दिसाळीं आसात.

**लोक आनी समाजजीण :** ह्या देशांत भारतीय तशेंच फिजी लोकांचें प्रमाण चड आसून युरोपी, चीनी आदी लोकूय हांगा आसात. हांगाचे लोक मेलानीशियन वंशाचे आसून तातूंत पॉलिनेशियन वंशाचो संकर जाल्लो आसा. फिजीयन लोकांमदीं चडशे क्रिस्तांव धर्माचे लोक आसून तातूंत ४०% लोक मॅथॉडिस्ट इगर्जेचे जाल्यार हेर रोमन कॅथलिक आनी अँग्लीकन वंशांचे आसात. भारतीय लोकांमदीं चडशे हिंदू आसात. हांचेभायर कांय प्रमाणांत मुसलमान आनी शीख लोकूय हांगा रावतात.

फिजी लोक हे वेगवेगळ्या आदिवासी जमातींत विभागिल्ले आसात. तांच्या दरेका कुटुंबाची एक खोंप आसता आनी तिका 'बूर' म्हण्टात. परबेच्या वेळार तशेंच येवकाराच्या वेळार हे लोक मिरयांच्या मूळापसून तयार केल्ल्या 'याकोना' (कावा) हें पेय दितात. सांघिक नाच आनी संगीत हाची ह्या लोकांक आवड आसून तेवरवीं ताणीं आपल्यो मूळ आदीम परंपरा सांबाळून दवरल्यात.

हांगाचे थळावे कलेचेर सादारणपणान पॉलिनेशियन प्रभाव दिसता. हांगा तुतीच्या झाडाचे सालीपसून मासी अनी टापा नांवाचें अलंकृत वस्त्र तयार करतात. तशेंच कवाश्याच्या पानांपसून शेंदऱ्यो विणपाच्या कामांत हे लोक कुशळ आसात. हांगाचें वेगवेगळ्या प्रकारांचें दीसपट्ट्या उपेगाचें लाकडी वस्तूवयलें कोरांतिल्लें काम पळोवपासारकें आसता. देखीक : बडी वा दंडूक, पियेवपाचीं आयदनां, वाडगे आनी थाळो, लाकडी बसका, लाकडापसून, मोतयांच्या शिंपल्यापसून वा देवमाशाच्या दांतांपसून तयार केल्ल्यो अलंकृत, प्रतिकात्मक भेटवस्तू (टॅम्बूआ) आदी. 'मेक्की' हो हांगाचो पारंपारीक धर्मीक संगीत नाचाचो प्रकार.

फिजी जुंव्यांत इंग्लीश ही शासकीय भास. पूण संसदेंत इंग्लिशी वांगडाच फिजीयन आनी हिंदी ह्यो दोनूय भासो वापरतात. हांगाच्यो बोलीभासो मलाया पॉलिनेशियन भाशा कुटुंबांतल्यो आसून रोहुमा जुंव्याचो अपवाद सोडल्यार बाऊ ही बोलीभास चडशी उलोवप जाता. रोहुमा जुंव्यात 'रोहुमन' ही बोलीभास प्रचारांत आसा. फिजी जुंव्यावयले भारतीय लोक हिंदी भास उलयतात.

हांगा १९७८चे येवजणेप्रमाण पयल्या पांच वर्सांचें मुळावें शिक्षण फुकट दितात. सुव्हाक 'युनिव्हर्सिटी ऑफ द साऊथ पॅसिफीक' हें विद्यापीठ आसा.

सुव्हा ही फिजीची राजधानी आनी मुखेल बंदर. वेपाराचें आनी उद्देगाचें तें म्हत्वाचें केंद्र. हांगाच्या संग्रहालयांत इतिहासीक आनी मानववंशशास्त्राविशींच्या वस्तूंचो संग्रह आसा. व्हिटी लेव्हू ह्या जुंव्यावयल्या लाउटोका ह्या शाराची साकर कारखान्याक लागून बरीच नामना आसा. लेव्हुका ही फिजीची आदली राजधानी आशिल्ली. सद्या तें शिक्षणीक उद्देगीक आनी प्रशासकीय केंद्र जालां. हाचेभायर सिंगाटोका, सावसाव हीं हांगाचीं हेर मुखेल शारां आसात.

– कों. वि. सं. मं.

## फिडीयस : (इ. स. आदीं सुमार ४९० - ४३०).

अभिजात ग्रीसी शिल्पकार. ताचो जल्म ॲथेन्सांत जालो. ताच्या बापायचें नांव कार्मिडीझ. तोय एक चित्रकार आशिल्लो. फिडीयसान ॲथेन्साचो हेगिअस आनी पॉलिग्नोटस हांच्या हाताखाल चित्रकलेचे आनी मुर्तीकलेचे धडे घेतले. पेरिक्लीझ हाणें इ. स. आदीं ४४७त पार्थनॉन देवळाचे बांदावळीचे देखरेखीचें आनी शिल्पांकनाचें काम ताका दिलें. तातूंत 'अथीना पार्थनॉस' हे देवतेची भांगर आनी हस्तिदंत हाणीं घडयल्ली मूर्त ही ताची मुखेल निर्मिती. ही व्हड उबी मूर्त सुमार ११.६० मी. ऊंच भांगराशिंगरांनी भरिल्ली आसून तिच्या उजव्या हातांत नायकीची ल्हान मूर्त आनी दाव्या हातांत भालो आशिल्लो. तिचे कडेक धाल आनी सोरोप दाखयल्ले. हाचेभायर ताणें ॲथेन्साचो ज्यो हेर मुर्ती घडयल्यात तातूंत 'अथीना लेम्नीया' हिची मूर्त उल्लेख करपासारकी आसा. पार्थनांनाआदीं डेल्फाम नगरांत ताणें कांय कांश्याच्यो मुर्ती तयार केल्ल्यो. तशेंच ऑलिंपिया देवळांतली शींवासनाचेर आशिल्ली झ्यूझ हाची भांगर आनी हस्तिदंत हांचेपसून घडयल्ली व्हड मूर्त (१२.२५ मी.) ताणेंच तयार केल्ली.

जगांतल्या सात अजापांमदीं हे मुर्तीची गणना जाता. ताणें घडयल्ल्यो खंयच्योच शिल्पाकृती वा तांचे अवशेश सद्या अस्तित्वांत नात. तशेंच, ज्यो शिल्पाकृती आसात तातूंत ताच्यो नेमक्यो खंयच्यो हें सांगपी पुरावोय मेळना. पूण पॅसेनिअसासारक्या पुर्विल्ल्या ग्रीसी लेखकाच्या साहित्यांत ताच्या मुर्तीकामा विशीं म्हायती मेळटा.

– कों. वि. सं. मं

## फिनलँड : (फिनिश सुऑमी) ईशान्य युरोपांतल्या स्कँडिनेव्हियन देशांतलें एक स्वतंत्र प्रजासत्ताक राश्ट्र. क्षेत्रफळ ३,३७,०३२ चौ. किमी. लोकसंख्या ५,००४,०००. विस्तार ५८°३०' उ. ते ७०°५' उ. आनी १९°७' उदेंत ते ३१°३५' उदेंत. फिनलँडाचे वायव्येक स्विडन, उत्तरेक नॉर्वे आनी उदेंतेक रशिया आसा. देशाचे अस्तंतेक बॉथनियाचें आखात जाल्यार दक्षिणेक फिनलँडाचे आखात आसा. देशाची उत्तर-दक्षिण लांबाय १,१६५ किमी. आनी रुंदाय ५४२ किमी. आसून सरभोंवतणीं सु. ८०,००० जुंवे आसात. हेरसिंकी ही फिनलँडाची राजधानी.

**भूंयवर्णन :** फिनलँडाची दक्षिण आनी अस्तंत देग उथळ पूण रेबटाची आसा. ह्या देगांभोंवतणी हजारांनी ल्हान ल्हान जुंवे आसात. ह्या देशांतले प्रदेश सपाट आनी पर्वतांची उंचाय सादारण ३०० मी. आसा. फिनलँडाच्या मदल्या वाठारांनी ल्हान व्हड अशीं हजारांनी तळीं आसात आनी ह्या तळ्यांमदीं ल्हान ल्हान जुंवे मेळटात. उत्तर आनी उदेंतेचो उंचायेचो वाठार देशाचें ४०% क्षेत्र व्यापता. फिनलँडाचे नैर्ऋत्येक जुंव्यांचो वाठार

आसा.

**हवामान :** फिनलँड ६०° अक्षवृत्ताचे उत्तरेक आशिल्ल्यान गिमांत दीस व्हड आनी थंडायेचे आसतात. पूण शिंयाळ्यांत दीस ल्हान आनी कडक शिंयाचे आसतात. गिमांत दक्षिण वाठारांत दीस सुमार १९ वरांचे आसतात. उत्तरेकडच्या वाठारांत सूर्य वर्सांतले ७३ दीस एकसारको आसता. हे खातीर फिनलँडाक 'मद्यानरातच्या सुर्याचो देश' अशें म्हळां. एप्रिल ते सप्टेंबर हे हांगाचे गिमाचे दीस जाल्यार ऑक्टोबर ते मार्च मेरेन शिंयाळो आसता. जुलय म्हयन्यांत दक्षिणेकडचें तापमान सरासरी १७° सॅ. उत्तरेक १६° सॅ. आसता. सगळ्यांत कडक शिंयाचो म्हयनो फेब्रुवारी आसून ह्या तेंपार सरासरी तापमान १५° सॅ. ते ११° सॅ. इतलें आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** देशांत कॉनिफर्स रूख व्हड प्रमाणांत आसात. ह्या रुखांचे पायन आनी स्प्रूस हांचे प्रकार चड मेळटात आनी देशाचे उत्तरेक बर्च आनी विलो हीं झाडां चड मेळटात. उत्तरेक फिनलँडाच्या तोंकार दगडफूल ही वनस्पत व्हड प्रमाणांत मेळटा. देशाचे दक्षिणेक हॅझेल, ॲस्पेन, मॅपल, एल्म, ॲल्डर आनी हेर रूखय आसात.

जुंव्याचेर आर्क्टिक कूररी, कुरव हीं सवणीं मेळटात. सायबेरियन मैना, रंगीत मडवळ हीं सवणीं आनी उत्तरेक गरूड आसात. वांस्वेल, कोले, रानमाजरां, सांबर आनी रेनडियर हीय मोनजात आसा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** व्होल्गा आनी उरल पर्वत हांच्या मदल्या प्रदेशांत सुर्वेक फिनलँडी रावताले. इ. स. ८०० ह्या काळांत ताणीं कारेलियाच्या प्रदेशांत आपलो राबितो केल्लो. सुर्वेक फिनलँडी लोकांच्यो सुऑमी, टॅव्हॅस्टियन आनी कारेलियन अशो तीन टोळयो आशिल्ल्यो आनी ते आपलेभितरूच झगडटाले. इकराव्या शेंकड्या सावन तेराव्या शेंकड्यामेरेन स्विडनी आनी रशियन लोकांनी फिनलँडींक आपल्या शेकातळा हाडपाचे बरेच यत्न केले. फिनलँडी लोकांक रोमन कॅथलीक इगर्जेखाला हाडपाचे स्विडनाचे यत्न आशिल्ले जाल्यार रशिया तांकां इस्टर्न ऑर्थोडॉक्स इगर्जेच्या शेकातळा ओडपाचो यत्न करताली. मुखार थोडेशेच फिनलँडी लोक रोमन कॅथलीक जाले.

मदल्या काळासावन फिनलँड देश स्विडन राज्याचो एक वांटो जावन आसलो. पूण १८०९त स्विडनीक हारोवन रशियेन फिनलँड आपल्या शेकातळा हाडून सगळी सत्ता रशियेचो पयलो अलेक्झांडर 'ग्रँड ड्यूक' हाच्या हातांत आयली. १९१७त जाल्ले रशियेंतले क्रांती उपरांत ६ डिसेंबर १९१७ ह्या दिसा फिनलँडान आपलें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. पूण मुखार व्हायट गार्ड आनी रॅड गार्ड हांचेमदीं यादवी झुज (Civil war) जावन व्हायट गार्डांनी रॅड गार्डांक हारोवन १९१९ फिनलँड हें प्रजासत्ताक म्हणून जाहीर केलें.

सोवियेत रशियेचे फौजेन ३० नोव्हेंबर १९३९त फिनलँडाचेर घुरी घाली. फिनलँड जर्मनीचो आदार घेवन रशियेक विरोध करपाक मुखार सरलो. पूण १९ सप्टेंबर १९४४ दिसा जाल्ल्या करारान फिनलँड पॅटमालो वाठार रशियेक दिवपाक राजी जालो. मुखार १० फेब्रुवारी १९४७ दिसा दोगांयमदीं शांती करार जावन फिनलँडान रशियेक ३०० दशलक्ष भांगरा डॉलर फारीक केले. १९५५त रशियेन, फिनलँडाक आपल्या ताब्यांतलो पोर्क्कला हो लश्करी तळ परत केलो.

देशांत एकसदनी राज्यपद्दत आनी राष्ट्राध्यक्ष सर्वोच अधिकारी आसा. तांकां ६ वर्सा खातीर वेंचून काडटात. २१ वर्सां जाल्ल्या सगळ्या नागरिकांक मत दिवपाचो अधिकार आसा. फिनलँडान स्विडनी न्याय पद्दत आपणायल्या. देशांत थळावें, अपील आनी सर्वोच्च अशीं तीन न्यायालयां आसात.

**अर्थीक स्थिती :** दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत फिनलँडी अर्थवेवस्थेंत खूब बदल जालो. झुजा पयलीं शेतवड आनी रानां हांचो राश्ट्रीय उत्पन्नांत चड वांटो आशिल्लो.

फिनलँडाची अर्थवेवस्था चडशी काजगी उद्देगधंद्यांचेर आदारिल्ली आसा. सरकारी उद्देगधंद्यांचें प्रमाण सु. २५% आसा. रेल्वे, रेडिओ टपाल आनी सोरो हांचेर शासनाचो अधिकार आसा. फिनलँडांत खनीज संपत्ती उण्या प्रमाणांत मेळटा. तळ्यांनी आनी दर्यादेगांचेरूय नुस्तेमारीचो धंदो नेटान चलता. उद्देगीक मळार दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत बरीच उदरगत जाल्या. यंत्रां, लुगट, रसायनां ह्या गजालींच्या उत्पादनांत बरीच वाड जाल्या.

**लोक आनी समाजजीण :** फिनलँडाचो वट्ट लोकसंख्येतले सुमार ९२% लोक फिनलँडी भाशा उलयतात, जाल्ल्यार ७% लोकांची आवयभास स्विडनी. शारांनी रावपी लोक आपल्या फ्लॅटांनी रावतात; खेड्यांनी रावपी चडशे शेतकामती लोक आपलीं घरां शेतांनीच बांदतात. फिनलँडाक लोकसंस्कृतायेची जतनाय घेतात. शिंयाळ्यांत आनी गिमांत खेळपाचे प्रकार वेगळे आसतात. गिमांत शारांनी रावपी हजारांनी लोक खेड्यांनी दर्यादेगेर आनी तळ्याच्या वाठारांनी येवन रावतात. १९२१ सावन मुळावें शिक्षण सक्तीचें केलां. शिक्षणीक मळार बरीच उदरगत जाल्या.

फिनलँडांत १९८७ मेरेन ४२,९८९ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. रेल्वेमार्गाचीय वेवस्था बरी आसा. फिनीश ॲरलायन्स हवाई मार्गाचेर नियंत्रण दवरता. १९८५ मेरेन हांगा ७७ खबरांपत्रां आशिल्लीं. रेडिओ, दूरचित्रवाणी ह्यो सेवा बऱ्यांतल्यो बऱ्यो आसात.

– कों. वि. सं. मं.

## फिनिश भास

**फिनिश भास :** युरोपांतल्या रशियेचे उत्तरेक आनी अस्तंतेक उलोवपांत येवपी एक भास. ही उराल – आल्ताइक कुटुंबाच्या उरालिक वा फिनो – उग्रिक फांट्याची म्हत्वाची भास. हे भाशेचे दोन वर्ग आसात. पयल्या वर्गांत सुओमी वा फिनलँडाची फिनिश, एस्त (एस्तोनियी) आनी लीव ह्यो बोली येतात, जाल्यार दुसऱ्या वर्गांत कारेलियन, वेप्स आनी वोत ह्यो येतात. हातूंत फिनिश उलोवप्यांची संख्या चड आसा. सुओमीचें लिखीत रूप सोळाव्या शतमानासावन मेळटा. ल्यूथर पंथीय बिशप मिकाएल आग्रिकोला हाणें सुमार १५४२ ते १५४८ च्या काळांत तयार केल्ली अंकलिपी आनी बायबलाचो अणकार हांचेखातीर ती रूढ जाली. ही भास फुडें फिनलँडाची राजभास जाली. ती जायत्या बोलींच्या संयोगान तयार जाल्ली आसून सुर्वेक तिचेभितर अस्तंतेकडले बोलीचें वर्चस्व आशिल्लें.

**ध्वनीविचार :** ही भास बरपाखातीर रोमी लिपीचो उपेग करता. पूण कांय स्वरांचे उच्चार दाखोवपा खातीर ती विशिश्ट चिन्नांचो उपेग करता. ही लिपी अशी आसा. अक्षराखाल देवनागरी उच्चार आसा.

| a | e | h | i | j | k | l | m | n | o | p |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| आ | ए | ख | इ | य | क | ल | म | न | ओ | प |
| r | s | t | u | v | y | ä | ö | b | c | |
| र | स | त | उ | व | इ | ए | ऍ | ब | स | क |
| d | f | g | q | x | | z | | | å- | |

द फ ग कू क्स स त्स ऑ-

b सावन å मेरेनचीं अक्षरां फकत परक्या शब्दांत वा नांवांनीच मेळटात. हातूंत दीर्घ स्वर हो स्वराचें अक्षर दोनदां वापरून दाखयतात. i इ - ii ई, u उ - u u ऊ आदी आघात सामान्यपणान पयल्या स्वराचेर आसतात.

**व्याकरण :** नाम - हे भाशेंत लिंगभेद ना. वचनां दोन आसात आनी विभक्ती पंदरा आसात. मराठींतल्या शब्दयोगी अव्ययाभाशेन नामाक विभक्तीप्रत्यय लावन ताचें वाक्यांतलें कार्य निश्चित जाता. देखीक - पू 'झाड' हाचीं फुडलीं रुपां जातात : (एकवचन) (प्रथमा) पू (अंशवाचक) पूता, (षष्ठी) पून, (भितरले भितर) पूस्सा, (प्रारंबदर्शक) पूस्ता, (भायल्यान भितर) पूहुन्, (वर, - ने) पूल्ला, (अपादान) पूल्ता, (-ला) पुल्ले, (शिवाय), पूता (वटेन) पुत्से (परिवर्तन) पूक्सि, (-सारको) पूना,(-मेळून वांगडा) पूने, (साधनदर्शक) पून्. अनेकवचनी प्रथमेक त् हो प्रत्यय लागता हेर कांय प्रत्ययां आदीं पू सुवातेर पू हें रूप जाता.

विशेशणांचीं नामांभाशेनूच विभक्ती रुपां जातात. तुलनादर्शक प्रत्यय म्या(म्पे) आनी श्रेश्ठत्वदर्शक इम्पा (इम्पे) आसा.

**सर्वनाम :** पुरूशवाचक - मिने 'हांव' - मे (आमी), सिने 'तू' - 'ते' 'तुमी', खेन 'तो', 'ती' 'ते',- खे 'ते', त्यो, ती. दर्शक : नेमे 'हा, ही, हे' - नेमेत् 'हे, ह्या, ही' ; तुओ 'तो, ती, ते', नुओत् 'ते, त्या, ती'; प्रश्नवाचक : कुका, केन्, 'कोण', मिके 'कितें', कुम्पि 'खंयचो'. संबंद्दर्शक : योका 'जो - तो. क्रियापद : क्रियापदांत तीन पुरूश, दोन प्रयोग (कर्तरी, कर्मणि) , दोन रचना (सकर्मक, अकर्मकी), चार काळ (वर्तमान, अपूर्णभूत, भूत - पूर्णभूत) आसता. भविश्यकाळाखातीर वर्तमानकाळाचींच रुपां वापरतात. रुपावळींत विध्यर्थ, आज्ञार्थ, संकेतार्थ, क्रियावाचक, नाम, क्रियावाचक विशेशण, इत्सार्थ आनी अनुज्ञार्थ अशे सात प्रकार आसात. क्रियापदा आदीं एक नकारार्थी क्रियारूप वापरून नाकारार्थी क्रियापद मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**फिनीश साहित्य :** फिनिश भाशेंतल्या लेखी साहित्याची सुरवात सोळाव्या शतमानांत जाल्ली, तरी फिनलँडी लोकांनी पिळगे पिळगेन तोंडी परंपरेन जतनाय केल्लें भरपूर लोकसाहित्य आशिल्लें. लोकसाहित्याचे हे वळेरेंत फिनलँडाचो राश्ट्रीय म्हाकवी कालेवाला हाचो आस्पाव जाता. वेगवेगळीं फिनलँडी लोकगितां एकठांय करून आनी तांचें संकलन करून एल्यास लनरॉट हाणें कालेवालाची पयली आवृत्ती संपादन केली (१८३५-३६). समाजांतल्या वेगवेगळ्या थरांतल्या पांच विरांची ही शौर्याची काणी. १८४९त त्या म्हाकाव्याची लनरॉट हाणें जी दुसरी आवृत्ती काडली तीच सद्या अधिकृत मानतात. 'कालेवाला' हें फिनलँडाचें पुर्विल्लें नांव. 'वीरभूंय' असो ताचो अर्थ जाता.

सोळाव्या शतमानांत फिनिश भास लिखाणयुक्त जावंक लागली. मिकाएल आग्रिकोला (सु. १५१०-५७) हाणें वर्णमाळेचें एक पुस्तक सुमार १५४२त उजवाडाक हाडलें. तशेंच १५४८त बायबलाचो 'नवो करार' अणकारीत केलो.

चवदाव्या शतमानासावन फिनलँड हें स्विडीश राज्याचो एक वांटो जालें. स्विडीश सत्तेच्या चेपणाखाला फिनीश साहित्याची व्हडलीशी उदरगत जालिना. तशेंच ह्या काळांत फिनीश साहित्याची निर्मितीय व्हडलीशी जालिना. पूण १८०९त फिनलँड रशियेक जोडटकच आनी रशियन सत्तेन फिनलँडाक स्वायत्तताय दितकच राश्ट्रीय साहित्याचे निर्मितीची जाणविकाय जावंक लागली.

१८३१त फिनीश लिटररी सोसायटीची स्थापना केली. लनरॉटान उजवाडाक हाडिल्ल्या 'कालेवालाक' संवसारीक साहित्यांत मानाची सुवात मेळिल्ल्यान फिनीश साहित्यिकांक स्फूर्त मेळ्ळी. एकुणिसाव्या शतमानांतलो व्हड फिनीश नाटककार, कवी आनी कादंबरीकार अलेक्सिस किव्ही (१८३४-७२) हाची Kullervo (१८५९) ही शोकात्म नाट्यकृती कालेवालाचेर आदारिल्ली आसा. ताच्या 'शूमेकर्स ऑफ द मूर' (१८६४) आनी 'विट्रोदल' (१८६६) ह्या दोन सुखात्मिकांक नामना मेळ्ळ्या. उपरांत बायबलांतले एके कथेचेर आदारीत Lea (१८६९) हें नाटक रंगमाचयेर आयलें, तेन्ना फिनलँडाचे राश्ट्रीय रंगभूंयेच्या विचाराक चालना मेळून १८७२त तिची स्थापना जाली. 'सॅव्हन ब्रदर्स' (१९२५) ही फिनिश भाशेंतली पयली कादंबरी ताणेंच बरयली. मित्रा कांट (१८४४-९७) ही एकुणिसाव्या शतमानांतली एक उल्लेख करपासारकी फिनीश लेखिका.

फिनीश साहित्यांतल्या वास्तववादाच्या विकासाक तिच्या कथा-कादंबऱ्यांनी आनी नाट्यकृतींनी म्हत्वाचो हातभार लायला. युहानी आहॉ (१८६१-१९२१) ह्या फिनीश कथा कादंबरीकाराचें लिखाण नदरेंत भरता. शेतकामत्यांची जीण, नुस्तेंमारी, फिनलँडांतले रानवटी जिवीत हे आहॉच्या साहित्यकृतीचे मुखेल विशय.

आयनो लेईनो (१८७८-१९२६), ओट्टो मानविनेन (१८७२-१९५०) आनी व्ही. ए. कोस्लेन्निएमी (१८८५ - १९९२) हे एकोणिसाव्या-विसाव्या शतमानांतले तीन म्हत्वाचे कवी. तिनूय कवींनी आपल्या लोकासहित्यांतल्या ज्ञापकांचो (मोटिफस) वापर केला. लेइनो हाका स्कँडिनेव्हियीन कविता आनी फिनलँडातलो पुर्विल्लो संस्कृतीक वारस हाची खोलायेन जाण आशिल्ली. देखून ताच्या कवितांनी वेगळेपण जाणवतालें. 'सॉंग्म ऑफ मार्च' (१८९६) हो ताचो उल्लेख करपासारको कवितासंग्रह.

माननिनेन हाणें भावकवितेचे रचनेवांगडा होमर, गटे, रुनेबॅर्थ हांच्या साहित्याचो फिनीश भाशेंत अणकार केला. कोस्केन्निएमी हो तत्त्वीक, चिंतनात्मक, कविता बरोवपी फिनलँडाचो पयलो कवी. माइला ताल्व्हिओ (१८७१-१९५१) आनी आर्व्हिड यार्नेफेल्ट (१८६१-१९३२) हेय नामनेचे फिनीश कादंबरीकार. फ्रान्स एआमिल सिल्लांपॅ (१८८८- १९६४) ह्या फिनीश कादंबरीकाराक १९३९त साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. 'लाइफ अँड सन' (१९१६), मीक वे हेरिटेज (१९१९) आनी फॉलन अस्लीप व्हायल यंग (१९३१) ह्यो ताच्यो कांय उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो. मिका वाल्तारी (१९०६) हो आनीक एक उल्लेख करपासारको कादंबरीकार ताच्या इतिहासीक कादंबऱ्यांक फिनलँडाभायरूय नामना मेळ्ळ्या.

टंग ऑफ फायर (१९५८) सारक्या कादंबऱ्यांनी ताची धर्माविशीं आशिल्ली ओड दिसता. टोइव्हो पेक्कानेन (१९०२-५७) हो कामगार वर्गांतल्यान उदयाक आयिल्लो आनीक एक फिनीश लेखक. तो फिनीश अकादमीचो वांगडी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**फियाह्लयु नेरकीसो आर्कांज्यु :** (जल्म : कळंगूट; मरण : १८९५).

गोराय आनी दाबुलचो धर्मप्रचारक. घाट नगरांत ताणें व्हिकार जनरल म्हणून काम केलां. १८९१ - ९५ ह्या काळांत तो गोंयचे अर्किडायोसिझाचो व्हिकार जनरल आशिल्लो. तेचपरी ताणें तीन वर्सां पेट्रीआर्क डी. वालेन्ते हाचे पाटल्यान हे आर्किजयोसिझाचो सांबाळ केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**फिराक गोरखपुरी :** (पळेयात गोरखपुरी फिराक).

**फिरिस्ता-१ :** (जल्म : १५५०, आस्ताराबाद, इराण; मरण : १६२३, विजापूर).

भारतांतले मध्ययुगीन मुसलमानी रियासतीचो फार्सी इतिहासकार. ताचें पुराय नांव मुहम्मद कसिम हिंदू शाह. पूण फिरिस्ता ह्या नांवानूच ताची चड नामना आसा. ताच्या जल्मभरणाच्या वर्साविशीं तज्ञांमदीं एक मत ना. ल्हान आसतनाच तो, ताचो बापूय गुलाम अली हाचेवांगडा हिंदूस्थानांत आयलो. अहमदनगरचो पयलो मुर्तजा निजामशाह हाणें ताच्या बापायक आपल्या भुरग्याक फार्सी शिकोवपाक नेमलो. पूण ताका रोखडेंच मरण आयलें आनी फिरिस्ता पोरको जालो. तेन्ना मुर्तजा निजामशाह हाणें ताका आदार दिलो. आपल्या विस्वासांतलो सेवक म्हणून फुडें ताणें ताचेकडेन संरक्षण पक्षकाचें फुडारपण सोपयलें (१५८७).

फुडें मुर्तजा आनी मिरान हुसैन हांचेमदीं गादयेखातीर वितुश्ट आयलें. (१५८८-१५८९). तें पळोवन फिरिस्ता विजापूराक गेलो. थंय सुलतानाच्या दिलावरखान ह्या खास मंत्र्यान ताका येवकार दिलो आनी दुसऱ्या आदिलशाहाकडेन (१५८०-१६९७) ताची वळख करून दिली. फुडें दिलावरखानान ताका सैन्यांत नोकरी दिली. आदिलशाहान ताका मीर खूंद (मीरखांद) हाणें बरयल्ल्या 'रौजतुस्सफा' ह्या ग्रंथाची प्रत दिली आनी भारतांतल्या मुसलमानांचो अधिकृत इतिहास बरोवंक सांगलें. इब्राहिम आदिलशाहाच्या आदेशावयल्यान ताणें वेगवेगळ्या कामानिमतान सिंध, उत्तर प्रदेश, गुजरात, माळवा, बिहार आदी वाठारांनी भोंवडी केली. हे भोंवडेंत ताणें ताच्या वाठारांतल्या इतिहास बरपाक उपेगी अशा म्हत्वाच्या घडणुकांची नोंद करून दवरली. १६०६त ताणें तारीख-ई-फिरिश्ता हो एक म्हत्वाचो ग्रंथ फार्सी भाशेंत बरयलो. हो ग्रंथ गुलशन-इ-इब्राहिमी आनी तारीख-ई-नवरस-नामा ह्या नांवांनीय वळखतात. प्रस्तावना आनी उपसंहार सोडून वट्ट १२ प्रकरणांनी ताणें ह्या ग्रंथाची मांडावळ केल्या. पयल्या दोन प्रकरणांनी गझनी, लाहोर, दिल्ली मोगलांवांगडा मुसलमान राजवटींची म्हायती आसा. प्रकरण तीन हातूंत हिंदुस्थानांतल्या गुलबर्गा, विजापूर, अहमदनगर, बिदार, एलिचपूर, गोवळकोंडे ह्या राजधानी आशिल्ल्या मुसलमानी रियासतींचो विस्तारान, इतिहास आसा. चार ते धा प्रकरणांनी गुजरात, माळवा, खानदेश, बंगाल, बिहार, मुलवान, सिंध आनी काश्मीरच्या मुसलमान राजवंशाचो विस्तार दिला. इकरावें प्रकरण मलबाराविशीं आसून बाराव्या प्रकरणांत हिंदुस्थानांतल्या त्या काळांतल्या संतमहंतांची म्हायती आसा. उपसंहारांत भारताची भुगोलीक चड करून हवामानाविशीं म्हायती मेळटा. ह्या ग्रंथाखातीर ताणें सुमार ३५ पोरण्या संदर्भग्रंथांचो उपेग केल्लयाचें प्रस्तावनेंत म्हळां. पूण प्रत्यक्षांत ताणें ताचेपरसूय चड ग्रंथ वापरल्यात अशें दिसता. अहमदनगराक आसतना ताणें मानवी वैजकीचो अभ्यास केल्लयाचें दिसता. ताच्या इरिक्तयारांत-ई-कासिमी वा दस्तरुल अतिब्बा नांवाच्या ग्रथांत वाग्भट, चरक आनी सुश्रुत हांचो संदर्भग्रंथ म्हणून आदार घेतिल्लयाचो उल्लेख मेळटा. ताच्या सुरवातीच्या प्रकरणांचो इंग्लीश अणकार कर्नल डोव्ह हाणें १७६८त केला. दक्षिणेकडल्या इतिहासविशीच्या प्रकरणांचो अणकार कॅप्टन जॉनथन स्कॉट हाणें १७९४त केला. जाल्यार पुराय ग्रंथाचो इंग्लीश अणकार जनरल जे ब्रिग्ज हाणें १८१९त केला.

**फिरिस्ता-२ :** इस्लाम धर्मांत सांगिल्लो देवदूत. त्या धर्मांत उजवाडापसून ताची उत्पत्ती मानल्या. ताका जीव, वाचा आनी बुद्धी आसता पूण राग बी विकारापसून तो मुक्त आसता. ईश्वराच्या आदेशाप्रमाण तो वागता. ईश्वराच्या वैभवाचें वर्णन हें ताचें अन्न. ताच्या पावित्र्याचें गान हें ताचें पेय, ताचें स्मरण हें ताचें भाशण. ताचें भजन होच ताचो आनंद आसता. तो सदांच ईश्वराचें स्तवन करता आनी भुंयेवयल्या क्षुद्र प्राण्याकडल्यान अल्लाकडेन क्षमायाचना करतात. हातूंतले आठ देवदूत हे परमेश्वराच्या शींवासनाचे आदारस्तंभ आसून नरकाचेर यक्ष दवरपाक एकुणीस देवदूत नेमल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**फिलोजॉफी :** (पळेयात तत्त्वगिन्यान).

**फिलिपिन्स :** पॅसिफीक म्हासागरांतलें द्वीपप्रजासत्ताक. क्षेत्रफळ २९९,४०४ चौ. कीमी. लोकसंख्या ६६,५००,००० ह्या जुंव्यांच्या चोम्यांत (archipelage) सु. ७,१०० जुंव्यांचो आस्पाव जाता. आशिया खंडाचे आग्नेयेक सु. ८०० किमी. पयस ते आसात. अक्षवृत्तीय विस्तार ४°२५' उ. ते २१°२०' उ. आनी ११६°५५' उदेंत ते १२६°४०' उदेंत रेखांश इतली पातळिल्ली आसा. उदेंतेक फिलिपिन्स दर्या, दक्षिणेक सेलेबीझ दर्या आनी अस्तंत - उत्तरेक चीनी दर्या आशिल्ले जुंवे. व्हड अशा इकरा जुंव्यांचे लुझॉन, व्हिसायन आनी मिंदानाओ अशें तीन वांडे केल्यात. लुझॉ जुंव्यावयली मनिला ही देशाची राजधानी आसा.

**भूंयवर्णन :** भूंय रचणुकेचे नदरेंतल्यान फिलिपिन्साचे तीन वांटे केल्यात. लुझॉन जुंव्याचो चोमो, व्हिसायन जुंव्यांचो चोमो आनी मिंदानाओ जुंव्यांचो चोमो. ह्या जुंव्यांवयल्यो पर्वतांवळी दक्षिण उत्तरेक पाताळिल्लयो आसात. ह्या प्रदेशांत आतां लेगीत बरेच भूंयकांप जातात.

लुझॉन जुंव्यांचेर उत्तर वाठारांत उदेंत आनी अस्तंत दर्यादेगेर सरासरी १,८३० मी. उंचायेच्यो दोन पर्वतांवळी आसात. ह्या जुंव्यांचे उत्तरेक कॉर्डिलेरा ही पर्वतांवळ आसून तिच्या दक्षिण वाठारांत पुलोग, हें ह्या जुंव्यावयलें सगळ्यांत ऊंच तेमूक आसा. उंचाय सुमार २,९३४ मी. कॉर्डिलरा सेंट्रल आनी सियेरा माद्रे ह्यो दोंगरांवळी दक्षिणेक एकठांय येवन काराबायो दोंगर जाला. व्हिसायनांत एका जुंव्याचेर एक तरी दोंगरांवळ मेळटा. मिंदानाओ जुंव्यांचेर साबार दोंगरांवळी आसात.

**हवामान, वनस्पती आनी मोनजात :** हो देस बरोच ऊंच सकयल आशिल्लयान एकाच अक्षांशांत येवपी वाठारांच्या हवामानांत लेगीत बरोच

फरक आसता. चडशी भूंय गिमाच्या दिसांनी तापता आनी हवेचो दाब उणो जाल्ल्यान थंय दर्यावयल्यो वाठारांत चड दाबाचें वादळी वारें व्हांवता. टायफून (वादळ) वाऱ्याच्या दाबातळा फिलिपीन्साचे कांय जुंवे येतात. ह्या वाऱ्याक 'बुग्यूओस' अशें थळावें नांव आसा. ह्या वाऱ्याखातीर हांगा चड पावस पडटा. देशांतलें चडांत चड तापमान ३८° सॅ. इतलें आसता. शिंयाळ्यांत तापमान १६° सॅ. इतलें सकयल येता.

फिलिपिन्साची सैमीक रानसंपत्ती खूब आसून तिचे विंगड विंगड प्रकार आसात. देशांतलें सु. ४०% क्षेत्र रानांनी रेवाडलां आनी ह्या रानांत सु. ६०० प्रकारची वनस्पत मेळटा. हातूंतली सु. १०० प्रकारची वनस्पत वेपारी नदरेन म्हत्वाची आसा. दोंगरांतल्या ऊंच वाठारांनी सगळ्याक पायन रूख आसात. हेर झाडांमदीं कोंडे, वेत, माड, नीपा ही वनस्पत चडशी दर्यादेगेर मेळटा. हांगा माकड चड आसात. बिबटो, सिव्हॅट आनी मुंगूस हेय सारकीय मोनजात सगळेकडेन आसा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** 'नेग्रिटो' हे हांगाचे थळावे लोक. हे लोक शेतवड आनी वेपार करताले. १५६५ वर्सा मिंगेल लोपीस द लेगास्पी हाणें हांगा स्पेनीश सत्तेची स्थापणूक केली. स्पेनाच्या दुसऱ्या फिलिपाचो उगडास म्हणून लोपीश द व्हिल्लालोबोस हाणें ह्या जुंव्याक 'फिलिपिन्स' हें नांव दिलें. स्पेनीश मिशनऱ्यांनी थळाव्या लोकांचे क्रिस्तीकरण करपाक सुरवात केली. पूण हाका मिंदानाओ आनी सुरू जुंव्यावयल्या मुसलमान लोकांनी खर विरोध केलो. अठराव्या शेंकड्याच्या मदल्या काळांत युरोपांत जे अर्थीक आनी राजकीय बदल जाले तांचो परिणाम फिलिपिन्साचेरूय जालो. स्पेनीश लोक शेतवडीचेर चड भर दिवपाक लागले. शिक्षणीक मळार उदरगत जाल्ल्यान साक्षरतायेचोय आंकडो वाडत आशिल्लो. चडशे लोक स्पेनीश भास उलोवपाक आनी बरोवपाक लागले. तशेंच गिरेस्त लोक आपल्या भुरग्यांक उंचेल्या शिक्षणाक लागून युरोपांत धाडपाक लागले. देखून तांचे भितर स्वतंत्रतायेची जाणविकाय जावपाक लागली.

स्पेनीश सत्तेआड उठाव जावंक सुरवात जाली. पूण स्पेनींनी ते चिड्डून उडयले. अशे परिस्थितींत स्पेनाचें अमेरिकेआड झूज सुरू जालें. स्पेन आनी अमेरिका हांचेमदीं १०डिसेंबर १८९७त पॅरिसांत जाल्ल्या कबलातींक लागून हे जुंवे स्पेनान अमेरिकेक दिले आनी तांचेर अमेरिकेचें शासन सुरू जालें. १९३५त मॅन्युयल केसॉनचे अध्यक्षतायेखाला राष्ट्रकूल सरकाराची स्थापणूक केली. १९४६त फिलिपियनी लोकांनी मॅन्युयल रॉहास हाका राष्ट्राध्यक्ष म्हणून वेंचून काडलो. तीन म्हन्याउपरांत ४ जुलय १९४६ दिसा फिलिपिन्स स्वतंत्र जावन, फिलिपिन्स प्रजासत्ताक अस्तित्वांत आयलें. रॉहास होच फिलिपिन्साचो राष्ट्राध्यक्ष जालो.

फिलिपिन्साक स्वातंत्र्य मेळ्ळें तेन्ना ताची अर्थीक स्थिती साप्प इबाडिल्ले दशेंत आशिल्ली. जातीय वादाक लागून भौशीक स्थितीय तंगूच आशिल्ली. रॉहासच्या मरणाउपरांत १९४८त एल्पीद्यो किरीनो हो राष्ट्राध्यक्ष जालो. अमेरिकन सरकारच्या आदारान ताणें आनी उपरांत आयिल्ल्या राष्ट्राध्यक्षांनी अर्थीक आनी भौशीक मळार सुदारणा घडोवन हाडली.

फिलिपिन्साचो कारभार १९७६त केल्ले राज्यघटनेप्रमाण चलता. राष्ट्राध्यक्ष हो सर्वोच्च अधिकारी आसता. ताका स वर्सांखातीर वेंचून काडटात. कार्यकारी सत्ता प्रधानमंत्र्यालागीं आसता. ताका पालव दिवपाक मंत्रीमंडळ आसता. मंत्र्यांक नेमपाचो आनी काडून उडोवपाचो अधिकार ताचोच. राष्ट्रीय संसदेच्या वांगड्यांतल्यान प्रधानमंत्र्याक वेंचून काडटात. फिलिपिन्सात राष्ट्रीय पक्ष उणे आसात. 'नासिओनालिस्ट पार्टी' आनी 'लिबरल पार्टी' हे म्हत्वाचे पक्ष आसात.

**अर्थीक स्थिती :** हांगाची अर्थवेवस्था चड प्रमाणांत शेतवडीचेर आदारल्या यंत्रांचो वापर रसायनीक सारें आनी हवामानाचो सांगात ह्या गजालींक लागून हालींच्या वर्सांनी शेतांतले उत्पादन बरेंच वाडलां. हांगाच्या रानांक लागून देशाक बरेंच उत्पन्न मेळटा. लाकूड उत्पादनाचे नदरेन मिंदानाओ, नेग्रोस, पालावान हे जुंवे म्हत्वाचे. उदकांतली पिकावळ खूब आसा आनी ह्या धंद्याक फाटबळ दिवपाक सरकार यत्न करता. भांगराच्या उत्पादनांत फिलिपिन्साचो संवसारांत आठवो आंकडो लागता. लुझोनावयल्या बॅगीओ दोंगरी वाठारांनी भांगरा खाणी आसात. कारखाने आनी हेर उद्देगधंदे हांगा दिसानदीस वाडत आसात.

**येरादारी आनी संचारण :** हांगाच्या जलमार्गांक चड म्हत्व आसा. देशांत ९७ राष्ट्रीय आनी ५०२ नगरपालिकेचीं बंदरां आसात. आयात निर्यातीचे सगळे वेव्हार चडशे ह्या बंदरांतल्यान जातात. १९८५ वर्सामेरेन हांगा १,०२७ किमी. लांबायेचे रेल्वे मार्ग आसले. ह्याच वर्सा सगळे धरून १६१.७०९ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. फिलिपीन ॲर लायन्स ही हांगाची विमान येरादारी सांबाळपी संस्था.

टेलिफोन वेवस्था फिलिपिनांत त्या मानान बरी आसा. १९८५ मेरेन हांगा ४७२ खबरांपत्रां उजवाडाक येतालीं.

**लोक आनी समाजजीण** : आशियाई देशांतले सगळ्यात चड क्रिस्तांव लोकसंख्या आशिल्लो हो देश. फिलिपिन्साच्या लोकांक फिलिपिनो म्हणून वळखतात. तें मलेशियन वंशाचे. चीनी आनी फिलिपिनो हांची भरसण जावन जाल्ल्या मिस्तीस लोकांची संख्या १०% आसा. तशेंच फिलिपिनो - स्पेनीश आनी फिलिपिनो अमेरिकन संकरांतल्या लोकांची संख्या खूब आसा. फिलिपिन्स लोकांचे, थळावे पॅगन, क्रिस्तांव आनी मुसलमान अशें तीन वांटे केल्यात. देशांत ९०% लोक क्रिस्तांव आसात आनी ५% लोक मुसलमान आसात. तांकां 'मूर' म्हणून वळखतात. तांची संख्या मिंदानाओ आनी सुलूक चड आसा. हांगाचे थळावे पॅगन, दोंगरी आनी रानांच्या वाठारांनी रावतात.

फिलिपिनांत पिलिपिनो, इंग्लीश आनी स्पेनीश ह्या तीन भासो म्हत्वाच्यो. पूण फिलीपिनो ही थंयची राश्ट्रभास.

– कों. वि. सं. मं.

## फिल्डस् पदकां :

**फिल्डस् पदकां :** १९३६त ऑस्लोक जाल्ले आंतरराष्ट्रीय गणित कॉंग्रेसीन (International Mathematics Congress - IMC) गणितांत मोलादीक वावर केल्लेखातीर गणिततज्ञांक पदक दिवपाक सुरवात केली. ह्या पदकाक फिल्ड पदक अशें म्हणटात आनी हीं पदकां गणितांतल्या नोबॅल पुरस्कार बरोबरीचीं मानतात. कारण गणित विशयाखातीर नोबॅल पुरस्कार दिवपाची चाल ना.

जॉन चार्ल्स फिल्ड्स (१८६३-१९३२) हो कॅनडांतल्या टोरोंटो विश्वविद्यालयांत गणिताचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९२४त टोरोंटोक जाल्ले IMC चे बसकेचो अध्यक्ष म्हणून ताणें वावर केल्लो. हे बसकेक खर्च करून उरिल्लो पयसो पदकां दिवपाक वापरपाची कल्पना फिल्ड्स हाणें मांडली. ह्या पयशांनी ताणें आपले इस्टेटींतल्या पयशांची भर घाली आनी पदकांखातीर फंड उबो केलो. १९३२चे IMC बसके पयलीं फिल्ड्स

हाणें पदकां दिवपाखातीरचीं तत्त्वां आनी रीत आंखून दवरिल्ली. पूण १९३२त झुरीकाक जावपाचे IMC चे बसकेपयलींच डॉ. फिल्ड्स हाका मरण आयलें. झुरीकाचे IMC त फिल्ड्स हाणें मांडिल्ल्यो सगळ्यो सुचोवण्यो मान्य करून घेतल्यो. हातूंत पदकाचो आकार, ताचेवयलीं उतरां, तें तयार करपाक लागपी धातू आनी वांगडा दिवपाचे पयशे हांचो आस्पाव आसतलो. १९३४त IMCन नॅशनल ट्रस्ट कंपनी ऑफ कॅनडा हाका पदकाच्या पयशांचो राखणदार म्हणून नेमलो. ह्याच वेळार ह्या पदकांक फिल्ड्स हाचें नांव दिवपाचें थरयलां.

फिल्ड्स पदक वाटकुळ्या आकाराचे सुमार ७.५ सेंमी. व्यासाचें आनी $ २०० (डॉलरांचें) भांगर लायिल्लें आसता. ह्या पदकाचो डिझायन डॉ. आर. व्ही. मॅकॅन्झी ह्या कॅनडांतल्या फांकिवंत शिल्पकारान तयार केल्लो. ताचे एके वटेन ग्रीक तत्त्वज्ञानी आनी विज्ञानीक आर्कीमिडीस हाचें चित्र आसा. ताचे सकयल लॅटीन भाशेंतली एक ओळ आसा. तिचो अर्थ असो - 'आपले मनीसपणाचे कुवती फुडें वचप आनी जगाचेर वस्तादपण मेळोवप'. दुसरे वटेन लॅटीन भाशेंत एक ओळ आसा, तिचो अर्थ असो - 'सगळ्या देशांतसून एकठांय जाल्ले गणिततज्ञ गिन्यानांत घातिल्ल्या लक्षांत दवरपासारके भरीचो भोवमान करतात'. पदकाचे सरभोंवतणीं कडांचेर पदक मेळयतल्याचे नांव कोरांततात. पूण फिल्ड हाच्या नांवान जें हें पदक भेटयतात, ताचें नांव ह्या पदकांचेर खंयच आसना.

दर चार वर्सांनी भरतले IMC त फिल्ड पदकां भेटयतात. IMC चे बसकेचे दोन वर्सां आदीं एके बसकेंत सात ते आठ वांगड्यांचो पंगड IMC नेमता. हो पंगड सगळ्या गणिततज्ञांनी केल्लो वावर पळोवन ३० जाणांची एक वळेरी तयार करता. मागीर नामनेचे गणिततज्ञ आनी ह्या पंगडाच्या जाळवणदारांमदीं भासाभास जावन दोन ते चार जाणांचीं नांवां फिल्ड्स पदकांखातीर वेंचून काडटात. हे चार जाण ताणीं केल्ल्या वावराच्या आदाचेरूच नृत्य जाल्यार ते फुडाराक आनिकूय मोलादीक संशोधन कार्य करतले अशे तरेन वेंचून काडटात आनी देखूनूच पिरायेचीं ४० वर्सां हुंपिल्ल्याक फिल्ड पदकां दिवंक मेळनात.

१९३६त दोन फिल्ड पदकां दिवपाची तजवीज आशिल्ली. मागीर १९५० मेरेन संवसारीक झुजाखातीर IMC ची बसका जाली ना आनी पदकां दिवपाक मेळ्ळिंनात. १९६६ सावन एका उदार गिरेस्तान दिल्ल्या पयशांक लागून दोन ते चार पदकां दितात. सगळ्यांत पयलीं १९३६त पदकां मेळोवपी अशे आसात : लार आलफोर्स आनी जोंज डगलस. आयज मेरेन फिल्ड पदकां मेळोवप्यांमदीं बीजगणितीय भूमिती ह्या फांट्याचेर वावर करप्यांचो आंकडो चड आसा.

- व्हाय. एस्. वालावलीकार

## फिल्म अँड टेलिव्हिजन इन्टिट्यूट ऑफ इंडिया :

(भारतीय फिल्म आनी टेलिव्हिजन संस्था) चलचित्र आनी दुरदर्शन हांचें पुराय तरेन शास्त्रशुद्ध शिक्षण दिवपी भांरतांतली एकली एकसुरी संस्था. पुणें शारांतल्या प्रभात फिल्म कंपनीच्या आदल्या वाठारांत हे संस्थेचे सगळे विभाग आसात. १९५१ वर्सा भारत सरकारान नियुक्त केल्ल्या चलचित चवकशी समितीचे सुचोवणेप्रमाण केंद्रीय म्हायती आनी प्रसारण मंत्रालयाचे अधिकारकक्षेंत १९६०त फिल्म इन्स्टिट्यूट ऑफ इंडिया ह्या नांवान ती संस्था स्थापन केली आनी २ ऑक्टोबर १९७४ ह्या दिसा ती स्वायत्त जाली. १९७०त तिका सद्याचें नांव दिलें. १९७१ सावन दिल्लीक सुरू जाल्लें दूरचित्रवाणी प्रशिक्षण केंद्र ऑक्टोबर १९७४त पुण्याक हाडलें आनी ताचो हे संस्थेंत आस्पाव केलो.

हे संस्थेंत मुखेल संचालक (निर्देशक), ताचे सकयल चलचित्र मुखेली, दूरचित्रवाणी मुखेली, उपकुलसचीव, आनी मुखेल लेखाधिकारी अशीं मुखेल अधिकारपदां हे संस्थेंत आसात. ते भायर दर फांट्यांत अध्यापन करपी अणभवी आनी हुशार अध्यापक आसात. संस्थेचे स्थापनेसावन गजानन जहागिरदार, जगत मुरारी, देवेंद्र दीक्षित, गिरीश कर्नाड अशा नामनेच्या जाणकारांनी संस्थेचें मुखेलपद सांबाळ्ळां.

सुर्वेक मार्च १९६१ सावन चलचित्र मळावयल्या वेवसायीक तंत्रज्ञाखातीर तीन म्हयन्यांचो अभ्यासक्रम सुरू केलो. पूण १९६१ ऑगस्टासावन मात नेमान अभ्यासक्रम सुरू जालो. सुर्वेक १) पटकथालेखन आनी चलचित्र दिग्दर्शन २) ध्वनीलेखन - ध्वनि अभियांत्रिकी ३) चलचित्रीकरण आनी ४) चित्रपट संपादन आदी विशय अभ्यासक्रमांत आशिल्ले. १९६३ सावन अभिनयाचो अभ्यासक्रम सुरू जालो. तेचपरी पटकथालेखन आनी दिग्दर्शन हेय दोन स्वतंत्र अभ्यासक्रम अशें थरयलें. १९७७ वर्सा दोन वर्सांचो एक सामान्य अभ्यासक्रम सुरू केलो. तो पुराय जातकच तिसऱ्या वर्सा दिग्दर्शन, चलचित्रीकरण, ध्वनीलेखन वा अभिनय आदी विशयांनी विशेश यश मेळटालें. १९७७च्या ऑगस्टांत संस्थेच्या विद्या परिशदेचे सुचोवणेप्रमाण दोन वर्सांचो सादारण चलचित्र अभ्यासक्रम सुरू जालो. हाचेभायर देड वर्साचो चलचित्र दिग्दर्शन आनी दूरचित्रवाणी हे विशींचो एक नवो अभ्यासक्रम सुरू केलो.

संस्थेच्या चलचित्र विभागांतल्या प्रवेशाखातीर भारतांतल्या वेगवेगळ्या केंद्रांनी विद्यार्थ्यांची चांचणी परिक्षा घेतात. हे परिक्षेंत वेंचून आयिल्ल्या विद्यार्थ्यांची तोंडी परिक्षा पुण्याचे संस्थेंत घेतात. विद्यार्थ्यांची पिराय १७ ते २५ वर्सांची आसूंक जाय असो नेम आसा. हे संस्थेंत विदेशी विद्यार्थीय वांटो घेवंक शकतात. चलचित्रा विशींच्या अभ्यासक्रमाखातीर उमेदवाराची शिक्षणीक पात्रताय म्हळ्यार खंयच्याय मान्यवर विद्यापिठाचो अभ्यासक्रम पुराय केल्लो आसूंक जाय वा छायाचित्रण आनी ललित कला हे विशींची पदविका प्राप्त आसूंक जाय.

ध्वनीलेखन आनी ध्वनी - अभियांत्रिकी अभ्यासक्रमाखातीर विद्यार्थ्यांक इलॅक्ट्रॉनिकी वा रेडिओ - अभियांत्रिकी वा तत्सम विज्ञान विशयांतली पदवी (बी. एस्सी), गणित आनी भौतिकशास्त्र हे विशय घेवन मेळयल्ली आसूंक जाय आनी दर विशयांत उणेच ५०% गूण मेळूंक जाय अशी अट आसा. संस्थेंतलें शिक्षण तत्त्विक आनी तंत्रिक अशें दोन स्वरुपांचें आसता. देखून, प्रात्यक्षिकाचेर चडट भर दितात. संस्थेंतल्या तीन वर्सांच्या अभ्यासकाळांत दर विद्यार्थ्याक एक म्हायतीपट, एक गीत मुद्रण, एक लघुपट आनी एक जाहिरातपट (रंगीत) तयार करचो पडटा.

संस्थेंतल्या विद्यार्थ्यांनी तयार केल्लीं कांय चित्रां राष्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय चलचित्र महोत्सवाकातीर आनी स्पर्धेखातीर धाडटात. ही संस्था 'इंटरनॅशनल लिएझॉन सँटर ऑफ सिनेमा अँड टेलिव्हिजन स्कुल्स' ह्या मूळ फ्रांसेझ आंतरराश्ट्रिय संस्थेची वांगडी आसा.

दूरचित्रवाणीचें प्रशिक्षण सद्या दूरचित्रवाणीच्या नोकर वर्गापुरतें मर्यादीत आसा. सादारणपणान २० ते २२ सप्तकांच्या ह्या अभ्यासक्रमांत दूरचित्रवाणी स्टुडिओचें तंत्र, निर्मिती, रंगमाची, नेपथ्य आनी दूरदर्शन चलचित्र ह्या विशयांचो आस्पाव आसा.

हे संस्थेचें व्हड ग्रंथालय आसून तातूंत सुमार २० हजारांवयर देशी - विदेशी ग्रंथ आसात. जाल्यार चित्रपट संग्रहालयांत वेंचीक देशी विदेशी चलचित्रां, विद्यार्थ्यांनी तयार केल्लीं चलचित्रां आनी शिक्षणीक स्वरुपाचे लघुपट आदींचे संग्रह आसात. ह्या संग्रहांत ध्वनिफितां आनी दृकश्राव्यफितां आसात.

आतांमेरेन हे संस्थेंतल्यान जायते कलावंत आनी तंत्रज्ञ तयार जाल्यात. तातूंत चलचित्र - दिग्दर्शकांमदीं मणी कौल, कुमार सहानी, सुभाष घई; चलचित्रीकरणांत के. के. महाजन, सुदर्शन नाग, नदीम खान, अभिनयांत शत्रुघ्न सिन्हा, जया भादुरी, असरानी, रामेश्वरी, शबाना आझमी; ध्वनी मुद्रणांत नरेंद्र सिंग, कुलदीप सूद, संपादनांत अरुणा देसाई, व्ही. पी. गाडगीळ आदी उल्लेख करपासारखे आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**फिशर, एन्सर्ट ओटो :** (जल्म : १० नोव्हेंबर १९१८, म्युनिक - जर्मनी).

जर्मन रसायनशास्त्रज्ञ. ताचो जल्म म्युनिकाक जालो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत तो सैन्यांत आशिल्लो. कांय काळ तो झूजबंदीय आशिल्लो. देखून ताच्या शिक्षणांत मदीं-मदीं खंड पडलो. १९५२त ताणें म्यूनिक तंत्रीक विद्यापिठाची पीएच्. डी. मेळयली, थंयच १९५४त तो व्याख्यातो जालो आनी १९५७ सावन प्राध्यापक म्हणून काम करूंक लागलो. तशेंच १९५९ सावन तो म्यूनिकांतल्या अकार्बनी रसायनशास्त्र संस्थेचो संचालक आसा.

दोन बँझीन वलयांनी क्रोमियमाचो अणू आस्पाविल्लें डायबँझीन क्रोमियम वा बिस्बँझीन क्रोमियम हें संयुग फिशर हाणें तयार केलें. १९५१त तयार केल्ल्या फॅरोसीन ह्या संयुगांत दोन सायक्लोपॅंटाडायन वलयांनी लोखणाचो अणू आस्पावता, हें ताणें क्ष-किरणांवरवीं स्फटिकाचें निरीक्षण करून सिद्ध केलें. तशेंच फॅरोसिनासारकीं कितलींशींच संयुगां तयार केलीं.

ताणें कार्बनी धातू संयुगांविशीं म्हत्वाचें संशोधन केलां. अशेच तरेचें संशोधन जिऑफ्री विल्किन्सन हाणेंय स्वतंत्रपणान केल्लें आसून ह्या संशोधन कार्याखातीर ह्या दोगांकूय १९७३ वर्साचो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार वांटून दिलो. दोगांयच्या ह्या संशोधनाक लागून संक्रमणी (transitive) धातूंपसून तयार जावपी कार्बनीधातू संयुगांच्या मळार खूब म्हत्वाची भर पडली आनी संक्रमणी धातुरसायनशास्त्र हो रसायनशास्त्रचो एक नवोच फांटो तयार जालो.

गटिंगेत ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचें रसायनशास्त्राचें इनाम ताका १९५७त फावो जाल्लें. १९५९त ताका आल्फ्रेट - स्टॉक यादस्तीक पदक फावो जालें. कितल्याशाच विद्यापिठांनी ताका डॉक्टरेट आनी डी. एस्सी. ह्यो भोवमानाच्यो पदव्यो भेटयल्यात. Advanced Inorganic Chemistry : A comprehensive Text आनी Metal Complex (खंड १) हीं पुस्तकां ताणें बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**फिशर, एमील हेरमान :** (जल्म : ९ ऑक्टोबर १८५२, आयस्किर्खन - जर्मनी; मरण : १५ जुलय १९१९ बार्लिन).

नामनेचो जर्मन रसायनशास्त्रज्ञ. ताचें मुळावें शिक्षण खाजगी रितीन आनी उपरांत व्हेट्सलार आनी बॉनाक जालें. १८७१त, ताणें बॉन विद्यापिठांत प्रवेश मेळयलो. थंय ताका आउगुस्त फॉन केकुले हाचें मार्गदर्शन मेळ्ळें. १८७२त, तो स्ट्रॅस्बर्गाक गेलो आनी आनी आडोल्फ फॉन बेयर हाच्या मार्गदर्शनासकयल संशोधन करून १८७४त ताणें डॉक्टरेट मेळयली. ते उपरांत बेयर हाचेवांगडा तो म्युनिकाक गेलो आनी थंय १८७८त तो व्याख्यातो आनी १८७९त सहाय्यक प्राध्यापक जालो. उपरांत १८८२त एर्लांगेनाक १८८५त वुर्ट्सबर्गाक आनी १८९२त बर्लिनाक तो रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून गेलो. पयल्या म्हाझुजा वेळार जर्मनींतल्या रसायनीक द्रव्यांच्या उत्पादनाचें वेवस्थापन ताचेकडेन सोंपयल्लें.

किटोन्स (Ketones) आनी आल्डिहायड्स (aldehydes) ह्या वर्गांचें लाक्षणिक विक्रियाकारक (reagent) म्हणून प्रसिद्ध आशिल्लें फिनिल हायड्रॅझीन हें संयुग ताणें पयलीं तयार केलें. ताचो उपेग करून ताणें कितल्याशाच कार्बोहायड्रेटांच्यो संरचना निश्चीत केल्यो. ताणें ग्लुकोझ, फ्रुक्टोझ, मॅनोझ आनी सॉर्बोझ ह्या शर्करांचें संश्लेशण केलें आनी तांच्यो संरचना थरयल्यो.

मोनजातीचे कुडांत आसपी युरीक आम्ल, झँथीन, हायपोझँथीन ॲडेनीन, ग्वानीन, आनी वनस्पती सृश्टींतल्या कॅफीन, थिओब्रोमीन आनी थिओफायलीन ह्या संयुगांच्या विक्रियांचें ताणें संश्लेशण केलें आनी तांचे एकमेकांमदले संबंद सिद्ध केले. ताणें सोदून काडिल्ल्या कितल्याशाच संश्लेशण प्रक्रियांचो उपेग वखदां निर्मिती वेवसायांत जाला. ताणें एन्झायमांच्या विक्रियांचोय अभ्यास केल्लो. ॲमिनो आम्लांच्या एस्टरांच्या दोन रेणूंपसून डायपेप्टायडां आनी कितल्याशाच रेणूंपसून पॉलिपॅप्टायडां ताणें तयार केलीं. चीनी टॅनिनाचें संघटन ताणें थारायलें आनी ह्या वर्गाच्या संयुगांच्या संरचनांचें स्वरूप सांगलें.

वेगवेगळ्या शर्करा आनी प्युरिनां हांच्या संश्लेशणाविशीं म्हत्वाचें प्रायोगिक कार्य केल्लेखातीर ताका १९०२ त रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. १८९०त ताका डेव्ही पदक मेळिल्लें. ताच्या संशोधनात्मक बरपावळीचे वट्ट आठ व्हडले खंड उजवाडाक आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**फिशर, हान्स :** (जल्म : २७ जुलय १८८१, हख्स्ट - फ्रँकफुर्ट; मरण : ३१ मार्च १९४५, म्यूनिक).

नामनेचो जर्मन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण लोझॅन, म्यूनिक आनी मारबुर्ख विद्यापिठांनी जालें. १९०४त, ताणें मारबुर्ख विद्यापिठाची पीएच्. डी. पदवी मेळयली. वैजकीशास्त्राचो अभ्यास करून १९०८त ताणें म्यूनिक विद्यापिठाची एम. डी. पदवी मेळयली. कांय दीस वैजकी वेवसाय करतकच ताणें बर्लिनांत एमील फिशर हाच्या मार्गदर्शनाखाला एक वर्स रसायनशास्त्राचें संशोधन केलें. १९१६त इन्सब्रुकाक (ऑस्ट्रिया) वैजकीय रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९१८त तो व्हिएन्ना विद्यापिठांत गेलो आनी १९२१त म्यूनिकांतल्या टॅक्निकल युनिव्हर्सिटींत कार्बनी रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आनी 'इन्सिटयूट ऑफ ऑरगॅनिक कॅमिस्ट्री' हे संस्थेचो संचालकूय जालो.

वनस्पतींत आसपी हरितद्रव्य (Chlorophyll) ह्या रंगद्रव्याची संरचना

आनी रगतांतल्या हिमोग्लॉबिना पसून मेळपी हीमीन ह्या स्फटिकी रंगद्रव्याची संरचना हांचेविशीं केल्लें संशोधन आनी खास करून १९२८त केल्लें हीमिनाचें संश्लेशण (Synthesis) ह्या वावराखातीर ताका १९३०त रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. खबर आशिल्ल्या संघटनांच्या पदार्थांसावन ताणें हीमीन कृत्रीम रितीन तयार केलें. ताका लागून साद्या कार्बनी द्रव्यांसावन हीमीन तयार करप शक्य जालें. बिलिरुबीन ह्या पित्तांतल्या रंगद्रव्याचेंय ताणें संश्लेशण आनी खोलायेन संशोधन केलें.

ताका लीबिक यादस्तीक पदक (१९२९) डेव्ही पदक (१९३७), हार्वर्ड विद्यापिठाची मानादीक डॉक्टरेट पदवी (१९३६) हे भोवमान फावो जाल्ले. एच् ऑर्थ ह्या आपल्या वांगड्याच्या पालवान ताणें १९३७त 'Die Chemic des Pyrrols' (४ खंड) हो ग्रंथ उजवाडायलो.

– को. वि. सं. मं.

**फुगडी :** गोंय आनी कोंकणांतलें बायलांचें एक नृत्य. धालांच्या मांडार आनी चवथीवेळार गणपती मुखार फुगडी घालतात. फुगडे वेळार बायलां घट्ट कांसाटाचें णववारी कापड न्हेसतात, केंसांनी आबोल्यांचे वा हेर कसल्याय फुलांचे वळेसर माळटात आनी आंगार भांगराच्यो वस्ती घालतात.

फुगडी घालतना कसलेच तरेचें वाद्य वाजयनात. फकत हातांनी ताळयो मारतात आनी पदां म्हण्टात.

धालो हो खास बायलांचो उत्सव. धालांच्या मांडार बायलो कसलीच भीड, मुरवत दवरीनासतना फुगडी घालतात. फुगडे वेळार बायलो वाटकुळ्योच उब्यो रावतात आनी हातांनी ताळयो मारीत मारीत वाटकुळींच घुंवत घुंवत पदां म्हण्टात. फुगड्यांतलीं पदां चड करून बायलांनीच घडयिल्लीं आसातात. हीं पदां चड करून बायलांच्या संवसारांतल्या अडचणींचेर आदारीत आसतात. जाल्यार केन्नाय राधा, कृष्ण ह्या थळाव्या देवांची स्तुती करपी आसतात. फुगड्यांचे जायते प्रकार आसतात. सादी



फुगडी, कळशी फुगडी, कट्टी फुगडी हे मुखेल प्रकार आसात. आश्विन म्हयन्यांतल्या महालक्ष्मी व्रतावेळार कोकणस्थ ब्राह्मण बायलो कळशी फुगडी घालतात. गोंयांत सत्तरी म्हालांत ही फुगडी पळोवपाक मेळटा. हातांत कळश्यो घेवन ही फुगडी घालतात. हे फुगडे वेळार पदां म्हणिनात. फकत तोंडाकडेन कळशी धरतात आनी फू- फू करीत वाटकुळेच भोंवर काडटात. कट्टी फुगडेंत दोनय हातांनी दोन कट्ट्यो धरून ताळयेच्या जाग्यार कट्टेक कट्टी आपटून फुगडी घालतात.

आदल्या काळार भुरगे जावचें म्हणून 'नागडी फुगडी घालतां' अशी आंगवण करताले. भुरगें जालें जाल्यार सटयेच्या (भुरग्याच्या जल्माच्या सव्या दिसा) बाळंतिणीचे कुडींत दारां बंद करून नागड्यांनी फुगडी घालतालीं. हेर संकश्टावेळारूय गणपती वा हेर थळाव्या देवांमुखार अशे तरेची आंगवण करताले. हालीं तेंपार हो प्रकार बंद जाला.

कुणबी-गावडा समाजांत बालयां वांगडा दादलेय फुगडी घालतात. हे फुगडेंत घुमट म्हादळें, कांसाळें हीं वाद्यां वाजयतात.

महाराष्ट्रांत एके वेगळे पद्दतीन फुगडी घालतात. दोन बायलो एकमेकां मुखार उब्यो रावतात आनी एकमेकांचे हात धरून वाटकुळ्योच घुंवतात. नागपंचम, मंगळागौर, हरतालिका सारक्या सणांवेळार ही फुगडी घालतात. दंडफुगडी, एका हाताची फुगडी, बस फुगडी, झिम्मा, जातें, नखुल्यो, भुई-फुगडी हे महाराष्ट्रीय फुगड्यांचे प्रकार. गोंयातूय कांय प्रमाणांत फुगड्यांचे हे प्रकार पळोवंक मेळटात.

– को. वि. सं. मं.

**फुगांव :** एक वश्याचो रोग. ह्या रोगांत, रोग्याक एक दीस जोर येता आनी मागीर उदकाचे फोड येवन खाज सुट्टा. हो रोग व्हॅरिसेला नांवाच्या व्हायरसासावन जाता. हो व्हायरस उस्वासावांगडा आंगांत भितर सरता. रोग्याच्या आंगार फोड येमेरेन, खवळ्यो झडसर तो रोगी हो रोग म्हऱ्यांतल्या मनशांक दिवंक शकता. ह्या दुयेंसाचो काळ (Incubation period) १०-२१ दीस आसता.

हें दुयेंस चडशें शियांच्या दिसांनी जाता. पूण शारांनी हें दुयेंस वर्सूय भर दिसता. हें दुयेंस चडशें भुरग्यांकूच जाता. पूण ५ टक्के रोगी १५ वर्सां वयले पिरायेचे आसतात. हें दुयेंस धामीचें.

फुगांव चड करून कातीर आनी Mucous Membranes हांचेर येतात. सुर्वेक एक ते दोन दीस जोर येता आनी मागीर आंगार उदकाचे फोड येतात. हे फोड सबंद धडाचेर चड प्रमाणांत आसतात आनी भुजांपसून कोंपरामेरेन तशेंच जांगडांचेर, धोंपरांमेरेन ह्या फोडांचें प्रमाण उणें आसता. हे फोड कातीचेर वयले वयर आसतात. ते थोड्याच दिसां भितर सुकतात आनी मागीर तांच्यो खवळ्यो सुट्टात. पूण कातीचेर कसल्योच मावो उरनात. हे फोड एकाच वेळार, एकाच जाग्यार तरेतरेचे आसूंक शकतात. देखून ह्या पुळेराक Polymorphic पुळेर अशें म्हण्टात.

**फुगांवाचे प्रकार** : १) तांबडे फुगांव : (Haemorrhagic Varicella). हातूंत फुगांवाच्या फोडां भितर रगतस्त्राव जाल्ल्या कारणान ते तांबडे दिसतात. जोर चड म्हळ्यार १०४ ते १०५° फॅ. आसता आनी रोगी मरून लेगीत शकता. २) जाण्टेपणांतले फुगांव : जाण्टेपणांत फुगांव आयल्यार फुफ्फुसांत वेगळेच तरेची थंडी भरून Pneumonia जावं येता. ३) नवजात भुरग्याचे फुगांव : जल्माक येतनाच भुरग्याक जेन्ना फुगांव येतात, तेन्ना ताका Varicella Neonatorium अशें म्हण्टात.

रोगाचें निदान तीन तरांनी करतात. १) हें दुयेंस लक्षणां वयल्यान आनी कातीचो पुळेर येवपाचे धर्तेवल्यान रोखडेंच वळखूंक येता.
२) फुगांवाच्या फोडांतलें उदक तपासल्यार तातूंत Varicella व्हायरस मेळटात.
३) फुगांव आयिल्ल्या दुयेंतीच्या रगतांत Varicella antibodies आसतात.

फुगांव येतकच जी खाज सुट्टा, तिचेर उपाय म्हणून फोड आयिल्ल्या भागाचेर दुगदुगीत उदकाच्यो घडयो घालतात. फोडाचें infection जावचें न्हय म्हणून प्रतिजैव (antibiotics) वखदांचो वापर करतात.

हें दुयेंस जावचें न्हय म्हणून खाशेले तरेचें Varicella Immunoglobin चें इंजक्शन वापरांत आसा. तशेंच Varicella Zoster Immunoglobulin हेंय घेतात.

फुगांवाच्या दुयेंसाक लागून रगताचो स्त्राव फोडांनी जावप, पुल्मावांनी थंडी भरप (Varicella Pneumonia), मेंदवाचेर वायट परिणाम जावप तशेंच काळजाचेर दोळ्यांचेर, मुत्रपिंडाचेर रगताच्या पेशींचेर (वृषणाचेर) तशेंच यकृताचेर (Liver) वायट परिणाम जांव येतात.

फुगांव हो रोग देवीच्या रोगापसून वेगळो कसो आसता हें पटोवपाखातीर कातीचो पुळेर बारकायेन तपासतात. देवीच्या पुळेराचे फोड चडशे तोंडार आनी हातापांयांचेर येतात. जाल्यार फुगांवाचे फोड पोटार आनी फाटीर चड येतात. पूण हातापांयांचेर सामके उणे येतात. देवीचो पुळेर एकेच तरेचो आसता म्हळ्यार तांबड्यो पुळयो वा फोड आयल्यार आयल्यार आंगभर तांबड्योच पुळयो येतात. पूण फुगांवाचे बाबतींत कांय पुळयो तांबड्यो आसतात जाल्यार कांयकडेन उदकाचे फोड येतात जाका Polymorphic Rash अशें म्हण्टात. देवीचे फोड मदीं ओले उरतात. जाल्यार फुगांवाचे फोड मदीं पयलीं सुकतात. देवी आयिल्ल्या रोग्याच्या तोंडार खोल मावो उरतात, तशो मावो फुगांव आयल्यार उरनात.

भारतांत ह्या रोगाचें प्रमाण चड करून शिंयाच्या दिसांनी आसता. जानेवारी ते मे म्हयन्यांत दुयेंस चड प्रमाणांत जाता. गोंयांत १९६७त घेतिल्ल्या सर्वेक्षणाप्रमाण दर एक लाख लोकांफाटल्यान २३४ रोगी सांपडले आनी फुगांवांक लागून मरण आयिल्ल्यांचो आंकडो धा हजार दुयेतीफाटल्यान ९.९ इतलो आशिल्लो.

- डॉ. जयकृष्ण लवंदे

पूरक नोंद : देवी.

**फुरशें :** (विभाग : पृष्ठवंशी; वर्ग : सरपटी; गण : स्क्यूमॅटो; उपगण : सोरोप; कूळ : वायपरेड; उपकूळ : वायपरीन्ये; जात : एकिस; प्रजात : कॅरिनॅटस).

शास्त्रीय नांव एकिस कॅरिनॅटस आसून हें सोरपा जाताचें विखयाळें जिवाणें भारत इराक, साउदी अरेबिया, आफ्रिका ह्या सुवातींनी मेळटा. भारतांतल्या चडशा सगळ्या वाठारांनी तें पळोवपाक मेळटा.

फुरशें हें एक धाकटुलें जिवाणें आसून, ताची लांबाय सुमार ६० सेंमी. इतली आसता. ताचो रंग पुडी, नळकुटो वा रेंवेसारको आसता. कुशीचे वयले वटेन दोन वांकड्यो तिकड्यो ओळी आसतात. केन्नाकेन्ना फाटीचेर ल्हानल्हान थिपके आशिल्ले चवकोनी पाट आसतात. ताची तकली त्रिकोनी आसून तिचेर खुरसाभाशेन वा बाणाभाशेन खूण आसता. पोट धवें, कुशींनी हळदुवसार आनी ताचेर बारीक बारीक काळे तिबे आसतात. ताचे विखयाळे दांत खावपाच्या दांतांपरस मातशे लांब आसतात. तकलेक बारीक बारीक खवळां आसतात. फाटीवयलीं खवळां मातशीं रूंद आसून तांचेर बारीक बारीक कांटे आसतात. फुरशाची पोटाची कात मोव आसता.

महाराष्ट्राच्या रत्नागिरी जिल्ह्यांत तें व्हड प्रमाणांत सांपडटा. तें धोलींनी वा फातरांपोंदा रावता. पूण रेंवाट प्रदेश ताका चड मानवता. खूब खेपो तापिल्ले रेंवेचेर विसव घेतना तें दिश्टी पडटा. तें एक शिटूक जिवाणें आसून प्रसंगाप्रमाण नेटान धांवपाक शकता. फुरशें दुश्ट आसून कोणेंय ताका मातशें लेगीत दुखयत जाल्यार तें घुंवून रोखडेंच चाबता. ताका जेन्ना राग येता तेन्ना तें आपले कुडीचो इंग्लीश आठ (8) आंकड्यासारको आकार करून आपल्यो कुशी घांशीत रावता. कुशीच्या खवळांचेर कांटे आशिल्ल्यान तांचो खरखर असो आवाज जाता. अशी हालचाल करता आसतना तें लागीं आशिल्ले कसलेय वस्तूक रोखडेंच घांस मारता. घांस मारले उपरांत केन्नाकेन्ना तें आपले दांतूय सोडून दिता. ताचें वीख नागाच्या विखापरस पांचपटींनी आनी पाण घोणसाच्या विखापरस सोळापटींनी खर आसता. पूण फुरशें हें जिवाणें ल्हान आशिल्ल्यान तें चाबता तेन्ना खूब उणें वीख कुडींत भितर वता. हाका लागून फुरशाचें वीख खर आसून लेगीन तें मनशाक चाबलेउपरांत मरपाची शक्यता उणी (१० - २०%) आसता. तें चाबता थंयच्यान थोडें रगत येता आनी तितल्याय कुडक्याक सूज येता. रोखडोच कांय उपाय केलोना जाल्ल्यार, मनशाचे लाळेतल्यान, नाकांतल्यान वा मुतांतल्यान रगत भायर येता. अशे स्थितींत मनशाक १० ते २० दिसांनी लेगीत मरण येता.

फुरशें ल्हान बेबे, शिळी, पाळी, विंचू, ल्हान सोरोप आनी किडे खाता. सादारणपणान जुलय म्हयन्यांत फुरशे वियेता. एके फावटीं मादी ३-१५ पिलांक जल्म दिता.

- एस्. आर. गनीहार

**फुर्तादु, आल्वारु पिन्टो :** (जल्म : २३ मार्च १९२०, कळंगूट, बार्देस; मरण : ८ डिसेंबर १९७९).

सुटकेझुजारी. ताणें लिसेंवामेरेन शिक्षण घेतलें. चिंचोणें (साश्ट) गांवांत आशिल्ल्या सेंत्रु रेजिओनाल हे संस्थेचो तो वांगडी आशिल्लो. फुडें १९४६ वर्सा ती संस्था गोंयचे सुटके चळवळीक तेंको दिवपाखातीर बरखास्त केली. आदमिनिश्त्रादोर जुजे, फोर्तुनात मिरांद आनी न्यायाधीश डॉ. जुजे द क्रादुश हांकां बॉंबस्फोट घडोवन हाडपाक बॉंबांचें बंडल धाडून दिल्ल्या संबंदान ताका पोलिकार्पु द सिल्वा हाचे वांगडा धरलो. बॉंब स्फोटांत जाल्ले हत्येंत ताचो हात आसा असो आरोप दवरून ताका प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो केलो. पूण थंयच्यान ताची निर्दोश सुटका जाली. फुडें १ जून १९५६ ते जुलय १९५८ ह्या काळाखातीर ताका बंदखणींत ख्यास्त भोगची पडली. तरीय राष्ट्रीय चळवळींत तो वांटो घेता देखून ताका पुर्तुगेज सरकारी नोकरेंतल्यान काडून उडयलो. ऑगस्ट १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**फुर्तादु, क्रिस्तोवांव :** (जल्म : २६ मे १८९९, चिचोणें साश्टी; मरण : १५ ऑक्टोबर १९७५).

गोंयचो सुटकेझुजारी. बापायचें नांव लुदोविकु जॉर्ज फुर्तादु. ताणें लिसेंवाच्या सातव्या वर्सा मेरेनचें आनी फ्रांसेज भाशेंत पॉंडिचेरीच्या पेतित सेमिनारीचो पांच वर्सांचो पदवी अभ्यासक्रम १९२०त पुराय केलो. मोझांबीकच्या लॉरेन्स मार्कीश (मापुतो) बंदर आनी रेल्वेकामगारांचो तो सरचिटणीस आशिल्लो. मोसांबीकासावन उजवाडाक येवपी ऊ एमान्सिपादोर ह्या रेल्वे कर्मचाऱ्यांच्या सातोळ्याचो तो उपसंपादक आशिल्लो. ताणें रेल्वे आंदोलन सुरू केल्ल्याचो आरोप दवरून मोझांबीक सावन

गोंयात येतना ताका धरलो. गोंयांत येतकच ताणें चिंचोण्या सेंत्रु रेजिओनाल (Centro Regional) ही संस्था स्थापन केली. पूण गोंय मुक्तीआड चळवळ करपी ही संस्था पुर्तुगेजांनी १९४६ त बंद उडयली. गांवगिऱ्या वाठारांचे उदरगतीक पोसवण दिवपी 'O Regional' हें नेमाळें सुरू केलें. डॉ. लोहियान सुरू केल्ले नागरी हक्कभंग चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९४८त पणजेच्या विधान सभाघरांत ताणें पुर्तुगेज सत्तेआड आवाज उठयलो. १९५०त तो नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेच्या मुंबय फांट्याचो अध्यक्ष आशिल्लो. मुंबयचे 'युनायटेड फ्रंट ऑफ गोवन्स' संस्थेचो तो संस्थापक वांगडी आशिल्लो आनी १९५२त तो ताचो सरचिटणीस जालो. १९५४त तो मुंबयचे 'गोंय कृती समिती'चो वांगडी जालो. दादरचे सुटके चळवळींत ताणें सक्रीय वांटो घेतिल्लो. तेचपरी दादरा आनी नगर हवेलीच्या प्रशासनांत गोंय मुक्तीआड ताणें सात वर्सां काम केलें. गोंयचे मुक्ती उपरांत तो 'युनायटेड गोअन्स पार्टी' हे संस्थेचो संस्थापक वांगडी आशिल्लो. फुडें १९६२ त तो ते संस्थेचो उपाध्यक्ष जालो. १९६४तो अखिल भारतीय शांतताय म्हासंघाचो वांगडी जालो. भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवपाचें केल्लें. पूण आपले तत्त्वनिश्ठेक लागून ताणें तें स्विकारपाक न्हयकार दिलो.

– कों. वि. सं. मं.

**फुलां माळप :** हिंदू धर्मांतले बायलेचो एक धर्मीक संस्कार. पयल्या वर्सा नवेंच लग्न जाल्ले व्हंकलेक कांय खाशेल्या म्हयन्यांनी तशेंच पयलेच खेपे गुरवचार येतकच बायलेक फुलां माळपाचो संस्कार करतात.

लग्न जातकच पयल्याच वर्सा व्हंकलेक चैत्रांत आनी आषाढांत अशीं दोनदां फुलां माळटात. लग्ना उपरांत पयलीं आषाढ म्हयनो आयल्यार आषाढफुलां पयलीं जातात आनी चैत्र म्हयनो पयलीं आयल्यार 'पासडी' वा 'पासडेफुलां' पयलीं जातात. आदल्या काळांतल्यो व्हंकलो ल्हान आसताल्यो. तांकां लग्न करून एकदम व्हरून घोवाल्या घरा कशीं सोडटलीं देखून थंयच्या मनशांकडेन तिची संवकळ जावन त्या घराक ती वळखतासर दिका चार दीस आवयगेर, चार दीस घोवागेर दवरून त्या घराची संवय करतालीं. ह्या घरच्यान त्या घराक आनी त्या घरच्यान ह्या घराक हाडपा-व्हरपाच्या निमतान हीं दोनूय फुलां माळटात.

आदल्या काळांत चलयेक बारा वर्सां भर जावचे आदीं लग्न करताले. म्हणटकच लग्न जावन वर्स-देडवर्स जातासर चली पिरायेंत येताली. ती जाण्टी जाताली तेन्ना व्हडा सुवाळ्यान तिच्यो होटयो वा होंटयांफुलां तिका माळटालीं. आयच्यो व्हंकलो वाडिल्लयो आसतात देखून ही रीत आयज बंद जाल्या. हाचे उपरांत तिका पयलो गुरवचार येता तेन्ना पांचव्या म्हयन्यार पांचव्या म्हयन्यावयली वेळ वा 'पांचव्या म्हयन्यावयलीं फुलां' माळटात. उपरांत सातव्या म्हयन्यार 'सातव्या म्हयन्यावयलीं फुलां' माळटात आनी निमाणीं णववो म्हयनो लागलो तसो णवव्या म्हयन्यावयलीं फुलां माळटात. हे भाशेन आदल्या काळार दर एके बायलेक स खेपे फुलां माळटालीं. आजकाल पांच खेपे फुलां माळटात. कांय समाजांनी वेळांचेर दोन खेपो वा एकाच वेळार दोन खेपे कुळारची आनी घरचीं अशीं पयल्या गुरवाचाराचीं फुलां माळटात.

**फुलां माळपाची रीत :** वाड्यावयल्यो तशेंच नात्यागोत्यांतल्यो बायलो आपोवन हाडून तांचे उपस्थितींत फुलां माळपाचो सुवाळो जाता. व्हंकलेक बसपाक सवो सजोवन ताचे भोंवतणीं रांगोळी घालतात. सव्याचे उजवेवटेन वा दोनूय वटांनी दिवल्यो पेटोवन दवरतात. गुरवारीच्या फुलांक दुदाचो वा पात्याचो तरेतरेचो फळार करून सव्या मुखार मांडटात. (दुदाच्या खव्यांत वा पात्याच्या पिठांत तरेतरेचो रंग घालून फळ-फळावळ तशेंच तरेतरेच्यो वस्तू करतात). ते भायर खरीं फळां आनी साकरूय सव्या मुखार मांडटात. व्हंकलेक जरी कापड वा शालू न्हेसयतात. तिच्या आंगा-खांदार तरेतरेच्यो वस्ती घालतात. माथ्यांत माळिल्ल्या भांगराच्या वस्तींचेर वयल्यान खऱ्या फुलांचें माथें माळटात. (माथें म्हळ्यार तीन तरांच्यो तीन हळयो घालून केल्लो संच. आंबाड्यार पोंदा जायो मोगरीं बी असल्या धव्या फुलांची हळी, ताचेर तांबड्या रतनआबोल्यांची हळी. आनी सगळ्यांत वयर बोकोडयाच्या पानांची हळी अशो ह्यो तिनूय हळयो बरें कलाबूत घालून एका बरोबर संच करून माळटात). न्हेसून करून शिरंगारिल्ले व्हंकलेक सव्यार बसयतात आनी आपयिल्ल्या सगळ्या बायल-भुरग्यांक सव्यामुखार बसोवन व्हंकलेक फुलां माळटात.

**फुलां माळप** – (होंट भरप) : पोसोभर तांदूळ, हळद-कुकमाचे करंड, फुलांची फांती, फुलाचो तुरो, गुलाबदाणी, अत्तरदाणी, पांच नाल्ल, कापड – खण आनी भांगराची वस्त इतलेंय सामान एका ताटांत वा परातींत घालून ती सव्यामुखार दवरतात. मागीर होंट भरतना कपलाक हळद-कुकूम लायतात, हातांत फुलांचो तुरो दितात उपरांत एक – एक नाल्ल आनी इल्ले इल्ले तांदूळ घेवन, पांचूय नाल्ल एक-एक करून तिचे होंटयेंत दवरतात. ताचेर कापड दवरतात. उपरांत भांगराची वस्त होंटयेक तेंकयतात आनी तिच्या आंगार घालतात. हे क्रियेक होंट भरप अशें म्हण्टात. आषाढ फुलांक आनी पासडेक वयर सांगल्या ते तरेन होंट भरतात. पूण गुरवार बायलेच्या पोटांत गर्भ आसता म्हणजेच ती भरिल्ले होंटयेची ह्या समजान तिची होंट भरिनात; फकत पांच नाल्लांनी भरिल्लें होंटयचें ताट सव्या म्हऱ्यांत दवरतात.

**पासडी वा पासडे फुलां :** चैत्र म्हयन्यांत व्हंकल घोवाच्या घरा आसली जाल्यार खासा ह्या सुवाळ्या खातीर थोड्या दिसांक तिका कुळारा धाडटात. संवसार पाडव्या दिसा तिगेली मांय तिका कुळारा लाडू, न्हेसण, तांकता जाल्यार भांगराची वस्त, फुलांचें माथें आनी गोड पदार्थ हांचे वजें धाडून दिता. हें वजें येतकच आवय वाड्यावयल्यो आनी नात्यांतल्यो बायलो आपोवन धुवेक फुलां माळटा. कांयकडेन खासा मांय आनी नणंदो व्हंकलेच्या कुळारा येवन हीं फुलां माळटात. फुलां माळून त्याच दिसा व्हंकलेक घोवागेर व्हरतात. असो एक समज आसा, व्हंकलेन कुळारची चैत्र-पावळी पळयल्यार ती बापायचे भलायकेक वायट देखून फुलां माळून तिका त्याच दिसा घरा व्हरतात.

**आषाढ फुलां :** चैत्र पावळे भाशेनूच व्हंकलेन घोवाल्या घरची आषाढ पावळी पळोवंची न्हय. पळयल्यार ती मांवाक वायट ह्या समजान व्हंकलेक कुळारा धाडटात. पासडे वज्याभाशेनूच सगळ्यो खुमयो करून मांय सुनेक आवयगेर वजें धाडटा. हें वजें येतकच पासडी माळिल्ली तेच भाशेन आवय दिका आषाढफुलां माळटा.

**होंटयो वा होंटयांफुलां :** आदल्या काळावयल्यो व्हंकलो ल्हान आसताल्यो देखून लग्न जावन वर्स जातासर तिची होंटयाफुलां येतालीं. त्या दिसा असोच सवो शिरंगारून बायलांक आपोवन तिका फुलां माळटालीं. आपयल्ल्यो सगळ्यो बायलो घरच्यान येतना दोन नाल्ल आनी एक खण अशी आपआपली होंट घेवन येताल्यो. घरचीं फुलां माळून जातकच

सगळ्यो बायलो तिका फुलां माळटाल्यो. मागीर लोकांक फोव करून खावंक दितालीं. सद्या ही चाल बंद पडल्या.

**पांचव्या म्हयन्यावयली वेळ वा पांचव्या म्हयन्यावयलीं फुलां :** लग्न जातकच बायलेक पयलेच खेपे गुरवचार येवन जेन्ना तिका पांचवो म्हयनो लागता तेन्ना तिची मांय भटाकडल्यान बरी शी वेळ पळोवन घेता. तिका पांचवी कांकणां भरता, होंटयेक पाचवीं साडी दिता आनी आपयिल्ल्या बायलांक लाडू वांट्टात.

**सातव्या म्हयन्यावयलीं फुलां :** सातव्या म्हयन्यावयलीं फुलां घोवाल्या घरच्या लोकांनी माळपाचीं आसतात. मांय आपल्या सगळ्या सोयऱ्यांधायऱ्यांक तशेंच वाड्यावयल्या बायलांक आपोवन हीं फुलां माळटा. मांयन गुरवारीक फुलां माळटकच मागीर सोयऱ्यांमदलीं, आपणे जी केळवण हाडल्या ती दिवन गुरवारीक फुलां माळटात. गुरवारीची फुलां माळना तिचे म्हऱ्यांत ल्हान भुरग्याक धेडो म्हणून बसयतात. कांय लोकांगेर गुरवारीक फुलां माळटना अपुरबायेन तोखणायेन लक्ष्मी, सरस्वती, श्रीकृष्ण हांच्या भेसांनी सजोवन सव्यार बसयतात. फुलां माळून जातकच गुरवारीक सव्यावयली उठ्ठना मुखार मांडिल्ल्या फळारांतलें किदेंय तरी उश्टांवंक लायतात. सातव्या म्हयन्यावयलीं फुलां माळून जातकच तिका बाळंटेराक कुळारा धाडटात.

**णवव्या म्हयन्यावयली फुलां :** णवव्या म्हयन्यावयलीं फुलां आवयगेर आवयल्या लोकांनी माळपाचीं आसतात. घोवाल्या घरच्या फुलांक जसे घोवाल्या घरच्या नात्यांतलीं सोयरीं-धायरी फुलां माळटात तेच भाशेन आवयल्या घरच्या फुलांक, आवयल्या नात्यांतल्यो सोयरीं-धायरीं येवन फुलां माळटात. णवव्या म्हयन्यावयलीं फुलां हीं लग्न जाल्ले बायलेचे तोखणायेचीं निमाणी फुलां.

– सौ. कमलादेवी राव देशपांडे

## फुलांची रचणूक :

मुखेलपणान फुलां आनी वांगडा पानां, कळयो, ताळे आनी केन्नाय फळां घेवन फुलांच्या पात्रांतल्यान केल्ली ओडलायणी मांडावळ. ही मांडावळ करतना रंगसंगती आनी आकारमान हांचो आकर्शक असो मेळ सादून तातूंतल्यान दोळे न्हिवोवपी अशी आकृती तयार करतात. अशी फुलांची रचणूक भौशीक, तशेंच खाजगी स्नेहसंमेलनांनी तशेंच घरांतल्या कुडींनी एक सजावटीचो नमुनो म्हणून वापरपाची पद्दत आसा.

हे कलेच्यो दोन मुखेल पद्दती आसात : १) तुऱ्याची पद्दत २) जपानी इकेबाना पद्दत: ह्या दोगांयचीय भरसण फुलांचे आर्विल्ले रचणुकेंत जाल्ली दिसता. अस्तंतेकडल्या फुलांचे रचणुकेंत पुराय फुलिल्लीं, टवटवीत फुलां आनी तांची तुऱ्यासारकी रचणूक हांचेर भर दितात. जपानी फुलांचे रचणूकेंत कळयो, अर्दी आनी पुराय फुलिल्लीं फुलां तशेंच पानां, खांदयो, फळां हांचो प्रतिकात्मक आकृतीबंध सादप हांचेर भर दितात. जपानी फुलांचे रचणुकेक सुमार १,४०० वर्सांची व्हड परंपरा आसा. देखूनूच हे कलेचेर जपानी प्रभाव दिश्टी पडटा.

फुलांचे रचणुकेचे हे कलेंत फुलांचें पात्र हें मुखेल साधन. चीनांत कांशें आनी चीनी मातयेचीं पुर्विल्लीं फुलांचीं पात्रां खूब लोकप्रिय आशिल्लीं. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक जपानांत व्हडीं, चंद्र हांचेसारक्या विगड विंगड आकारांचीं फुलांचीं पात्रां तयार जातालीं. भारतांतलीं तांब्याचीं आनी पितूळचीं फूलपात्रां, युरोपांतलीं चीनी मातयेचीं, कंवचेचीं आनी रुप्याचीं फुलपात्रां तशेंच नॉर्वे स्विडन, डॅन्मार्क ह्या देशांतलीं स्टेनलेस स्टीलचीं तशेंच मातयेचीं फूलपात्रां उल्लेख करपासारकीं आसात. वेगवेगळ्या माध्यमांतलीं आनी आकारांतलीं फूलपात्रां आनी तातूंत मांडिल्लीं फुलां हांचो फावो तो मेळ सादलो म्हण्टकच फुलांची रचणूक ओडलायणी जाता. फुलांच्या पात्रांत फुलां, पानां, खांदयो गांठावपाखातीर बारीक सरयो, दोरे वा प्लास्टीकच्या सरयांचो वापर करतात. कलात्मक फूलपात्रांची निर्मिती हो एक आर्विल्ल्या काळांतलो स्वतंत्र उद्देगूच जाला.

**जपानी फुलांची रचणूक :** ओनो - नो इमोको हाका जपानी फुलांचे रचणूकेचो आद्य जनक अशें मानतात. इ. स. ६०७च्या सुमाराक तो चीनांत जपानाचो प्रतिनिधिक दूत म्हणून गेल्लो. चीनांत बुद्धमुर्तीमुखार कांश्याच्या वा चीनी मातयेच्या पात्रांतल्यान फुलां रचून दवरपाची पद्दत आशिल्ली. ओनो - नो - इमोको हाणें हातूंतल्यान प्रेरणा घेवन जपानांत परत येतकच फुलांचे रचणुकेची स्वतंत्र कला विकसीत केली. त्या काळांतले बौद्ध भिक्षू ताच्या मठांत ही कला शिकपाखातीर येताले. क्योटो शारांतली 'इकेनोबो' (म्हळ्यार तळ्यालागसारचो भिक्षूंचो मठ) ही जपानी फुलांचे रचणूकेची आद्य शाळा अशें मानतात.

इकेनोबोचे परंपरेंत निर्माण जाल्ली पयली अभिजात शैली म्हळ्यार 'रिक्का'. रिक्का म्हळ्यार उबीं मांडिल्लीं फुलां. चीनी सैमाचें हुबेहूब प्रतिबींब 'रिक्का' हे फुलांचे रचणूकेंत दिश्टी पडटा. साबार सैमाच्या देखाव्यांवांगडाच फुलांनी भरिल्ली खांदी उबी करप, हें हे मांडावळीचें खाशेलपण. तातूंतल्यान भव्यताय आनी धर्मीक संकेत दिसतात. हे मांडावळींत चीनी फुलपात्रां वापरताले. रिक्का शैलींत फुडें आनीक कितलेशेच प्रकार उदेले.

बाराव्या शेंकड्यांत जपानांत झॅन पंथाचो प्रसार जालो. ह्या पंथाप्रमाण घरांत ध्यानधारणेखातीर स्वतंत्र सुवात आनी तिची फावो ती सजावट गरजेची आशिल्ली. गुंतागुंतीची 'रिक्का' फुलांची रचणूक करप आतां शक्य नाशिल्लें. देखून 'नागेइरे' वा 'हैका' ही शैली फुडें आयली आनी जपानी घराघरांतल्यान तिचो प्रसार जालो. नागेइरे म्हळ्यार स्वैर मांडावळ. सैमीक परिणाम सादपाखातीर 'नागेइरे' फुलांचे रचणूकेंत फुलां स्वैरपणान गांठायताले. झॅन पंथाच्या प्रभावाखाला जपानी 'च्या' चे कार्यावळीक औपचारिक सुवाळ्याचें स्वरूप आयलें. हातूंतल्यानूच 'चाबाना' ही शैली निर्माण जाली. 'चाबाना' म्हळ्यार च्या - फुलां. साद्या फूलपात्रांत पुराय फुलिल्ल्या फुलांची पानांसकट एक ताळी दवरप, हें तिचें खाशेलपण. राजघराण्यांत मर्यादीत आशिल्ली फुलांचे रचणुकेची कला सगळ्या सामान्यांच्या घरांत पावली. पंदराव्या शेंकड्यांत क्योटोचे गिन् - काकुजी मंदीर सगळ्याच जपानी कलांचें केंद्र जालें आनी थंयच्यानूच फुलांचे रचणुकेचे कलेची पद्दतशीर उदरगत जावपाक लागली.

अठराव्या शेंकड्याचे अखेरेक रिक्काची प्रतिकात्मताय आनी नागेइरेची सैमीक सहजताय हांचो मेळ सादोवपी 'शोका' वा 'सेइका' ही शैली फुडें आयली. 'मुळावो त्रिकोण' हे बसकेचेर ही फुलांची रचणूक आदारिल्ली आसा. तेन (सर्ग), ची (धर्तरी) आनी जिन (मनीस) ह्या तीन तत्त्वांचो प्रतिकात्मक बोध करपी तीन फुलां, पानां वा खांदयो हांची त्रिकोणात्मक मांडावळ करतात. खूबदां तातूंत फुजी पर्वताचें त्रिकोणी तेमक आनी वेगवेगळ्या सैमीक देखाव्यांच्यो प्रतिकृती परगटायतात. हे शैलींतल्यानूच 'काकुवाकी' ही उपशाखा निर्माण जाली.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन पारंपारीक जपानी फुलांची रचणूक पुराय विकसीत जाली. ह्या काळांत फूलपात्रांचे विंगड विंगड प्रकार, फुलांचे रचणुकेच्यो स्वतंत्र शिक्षणसंस्था आनी फुलांचे रचणुकेची नियमबद्ध कला हांची उदरगत घडून आयली. १८५८त वेपाराच्या निमतान जपानाचो संबंद अस्तंतेकडल्या राश्ट्रांकडेन आयलो. ताका लागून अस्तंतेकडल्या कलांचो प्रभाव जपानी फुलांचे रचणुकेचेर उमटूंक लागलो. विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक उन्शिन् ओहारा हाणें 'मोरिबाना' ही नवी शैली फुडें हाडली. 'मोरिबाना' म्हळ्यार फुलांची रास. तातूंतल्यान रूंद पसरट फूलपात्रांत फुलांची रास रचून सैमाच्या देखाव्याची प्रतिकृती तयार करतात. 'मोरिबाना' शैलीचें खाशेलपण म्हळ्यार तातूंतल्या दरेका फुलांचें स्वतंत्र अस्तित्व दोळ्यांत भरप.

विसाव्या शेंकड्यांत सोफू तेशिहारा (तेशिवारा) हाणें 'सोगेत्सु संप्रदाय' प्रवर्तित करून ताचेवरवीं 'सोगेत्सु' ही नवी शैली तयार केली. हे शैलींत आत्म प्रकटीकरणाक खाशेलो वाव आसता. देखुनूच 'जियुबाना' (स्वैर फुलांची रचणूक) आनी 'झेनेइबाना' (नवी प्रवर्तक शैली) ह्यो नव्यो शैली लोकप्रिय थरल्यो. फुलांची रचणूक ही हेर ललीत कलांप्रमाणूच आत्माविश्कारी कला. फुलांचे रचणूकेचे हे कलेंत नवे आकार आनी धातू, प्लास्टीक आदी नवीं साधनां हांची भर पडत आसा.

**अस्तंतेकडची फुलांची रचणूक :** युरोपी देशांतली पारंपारीक फुलांची रचणूक फूलपात्रांत दवरिल्ल्या तुऱ्याचे पद्दतीची आशिल्ली. सतराव्या शेंकड्यांतल्या हॉलंडी चित्रकारांनी ट्युलिप फुलांचीं चित्रां रंगयलीं. अस्तंतेकडल्या तुऱ्यांचे रचणुकेचें हेंच मूळ. वेगवेगळ्या तरांचीं फुलां फूलपात्रांत मांडून दवरपाची पद्दत विसाव्या शेंकड्यामेरेन रूढ आशिल्ली. फुडें फुडें जपानी फुलांचे रचणुकेच्या प्रभावाखाल ही पारंपारीक रचणूक बदलत गेली. आर्विल्ले अस्तंतेकडले फुलांचे रचणूकेंत रंगांचो सुचक परिणाम सादपाकडेन चड लक्ष दिल्लें दिश्टी पडटा. फुलांचे देंठ फूलपात्रांतल्या उदकांत थीर दवरून प्रत्यक्ष फुलां मात वयल्या मुक्त अवकाशांत खाशेली आकृती सादपा नदरेन गांठयतात. ते खातीर सरयो, धातूचे आनी लाकडाचे कुडके, तण आदी साधनांचो आदार घेतात. मेजार दवरपाच्या फूलपात्रा वांगडाच हुमकळ्ळी फूलपात्राचो वापर आनी नियमबद्ध पद्दती सुवातेर स्वतंत्र रचनातंत्राचो वापर हें आर्शिल्ले शैलीचें खाशेलपण.

– कों. वि. सं. मं.

**फुलांची सजावट :** वेगवेगळ्या तरांचे सजावटींखातीर तशेंच सौंदर्य प्रसाधनाखातीर फुलांचो वापर करपाची प्रथा पुर्विल्ल्या काळासावन चलत आयल्या. गरीब, गिरेस्त, आदिवासी आनी आर्विल्ल्या, गांवगिऱ्या आनी नागरी अशा सगळ्याच गटांतल्या दादल्या – बायलांक फुलांची सजावट आनी प्रसाधन करपाची सारकीच आवड आसता. फुलांची सजावट आनी प्रसाधन हांचेविशीं वेगवेगळ्या समाजांमदीं कांय संकेत रूढ जाल्ल्याचें दिश्टी पडटा. समाजांतले विंगड विंगड धर्मीक विधी, लग्नसुवाळे तशेंच हेर सण-परबो हांच्या प्रसंगांवेळार फुलांचे साज शिरंगाराचूय संकेत बद्ध आसात. कांय राश्ट्रांनी खाशेल्या फुलाक आपलें राश्ट्रीय फूल मानलां. देखीक – भारताचें आनी ईजिप्ताचें कमळ, इग्लंड आनी इराण हांचें गुलाब, रशियेचें सूर्यफूल, चीनाचें नर्गिस (नार्सिसस), जपानाचें हेमपुश्प आदी. फूलबागांचीय राखण करपी स्वतंत्र माळ्यांचो वर्ग उदयाक आयला.

सोयऱ्यांक हार-तुरे दिवन येवकार दिवपाची पद्दत पुर्विल्ल्या इजिप्तांत तशेंच ग्रीसी आनी रोमी समाजांनीय आशिल्ली. युरोपांत मध्यगुगांतल्या काळांत खास करून सरदारवर्गांत, गुलाबाच्या फुलाक मोगाचें प्रतिक अशें मानताले. फुलांनी घरांची सजावट करपाची प्रथा प्रबोधन काळांतल्या युरोपीय समाजांत दिश्टी पड्टा. फूलपात्रांत तुरे दवरपाची पद्दतूय त्या काळांत लोकप्रिय जाल्ली. पुर्विल्ल्या इजिप्तांत साळीक हें पवित्र फूल अशें मानताले. गळ्यांतले हार साळकां पसुनूच करताले. सतराव्या शेंकड्यांत फुलांचे सजावटीचे यत्न जावपाक लागले. फुलां, पानां, ताळयो हांकां खाशेले तरेन बाग दिवन तातूंतल्यान नवे नवे आकृतीबद्ध तयार करपाच्यो पद्दती आयल्यो. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत अस्तंतेकडल्या कलेच्या मळार 'रोकोको कला' आनी 'नव्य कला' हांच्या प्रभावांतल्यान फुलांच्या तुऱ्यांच्यो नव्यो आकृतायो जल्माक आयल्यो. युरोपीय समाजांत व्यक्तिगत सौंदर्यप्रसाधनांत मान फुलांक व्हडलेंशे म्हत्व ना. चीन आनी जपानांत फुलांचे सजावटीचे प्रकार आसले तरी फूलपात्रांतले फुलांचे रचणूकेक थंय चड म्हत्व दितात.

भारतांत फुलांची सजावट पुर्विल्ल्या काळासावन चलत आयल्या. फुलांचे हार गुंथप ही ६४ कलांतली एक कला. फुलांविशींच्यो कितल्योशोच संकल्पना पुर्विल्ल्या भारतीय साहित्यांत मेळटात. भरतमुनीचें नाट्यशास्त्र, कौटिलीय अर्थशास्त्र, भागवतपुराण, रामायण, महाभारत, वात्स्यायनाचें कामसूत्र ह्या पुर्विल्ल्या ग्रंथांनी वेगवेगळ्या संदर्भांनी फुलांच्या सजावटींच्यो आनी प्रसाधनांच्यो कल्पना उक्तायल्यात. फावो ती रंगसंगती सादून विणयेचेर आनी आंबाड्यांत फुलां माळपाची पद्दत आयज लेगीत बायलांमदीं दिश्टी पडटा. फुलां माळटना कलात्मक नदर दवरून फुलांचे रंग आनी भेसाचे रंग हांचेमदीं एके तरेची संगती सादतात.

पुजेचे विधींत ऋतूप्रमाण वेगवेगळ्या फुलांचो वापर करपाची परंपरा खूब पोरनी. देवांमुखार कलात्मक आरास करपाची परंपराय पयलींच्या काळासावन चलत आयल्या. फुलांचे वळेसर, फांतयो, हार. तुरे वापरप ही भारतीय बायलांची आवड. चांफीं, जायो-जुयो, मोगरीं, शेंवती, आबोलीं, कुंदां, वोंवळां, गुलाब आदी फुलां बायलांक खूब आवडटात. गुलाबासारकें फूल बटनाच्या बुराकांत खोंवपाची आवड कांय दादल्यांकूय आसता. सभा-संमेलनां वेळार सोयऱ्यांक हार-तुरे दिवन येवकार दिवपाची पद्दत आसा.

उत्सवा दिसा देवदेवतांचे रथ फुलांच्या हारांनी शिरंगारप, गांडयो सजोवप, पाडव्या दिसा जनावरांक फुलांचे हार आनी तुरे घालून नटोवप, संवसार पाडवो आनी दसरो हे सारकिल्या सणां-परबांवेळार घरांत पानां-फुलांची तोरणां बांदप, रोजांच्या फुलांनी घरां सजोवप, फुलांचे गालिचे घालप, फुलांची खाशेली मांडावळ करून चौक भरप, फुलांचे झेले तयार करप अशे विंगड विंगड संकेत भारतांत रूढ आसात. वेगवेगळ्या धर्मांतल्या तरेकवार सण-परबां वेळार फुलांच्या सजावटीचे तरेकवार प्रकार दिश्टी पडटात.

पानांफुलांचो गालिचो हो एक खाशेलो कलात्मक प्रकार. नितळ जमनीचेर वेगवेगळ्या रंगांचीं फुलां आनी पाचवी पानां हांचे मांडावळींतल्यान हो गालिचो तयार करतात. उदकाचेरूय फुलांचे गालिचे तयार करतात. तेखातीर संथ उदकाचेर कोळशाची पूड आनी लाकडाचो भुसो पातळावन

ताचेर रंगयाळ्या पानां - फुलांवरवीं ओडलायणे आकृतीबंद तयार करतात.

दक्षिण भारतांत कांय सणां-परबांच्या वेळार घरामुखावयल्या आंगणांत फुलांची रांगोळी घालतात. केरळांतल्या 'ओणम्' परबे निमतान 'पूविडल' हो फुलांचे रांगोळेचो प्रकार बरोच लोकप्रिय आसा. तातूंत गाड रंगाचें फूल आनी लेव रंगाच्यो पाकळ्यो रचून रंगसंगती सादिल्ली आसता. तांची रचणूक केन्ना वाटकुळी, केन्ना साळकाच्या पानांसारकी वा षटकोनी आसता.

कितल्याशाच जातीजमातींनी लग्नसुवाळ्या वेळार वासाच्या फुलांचे हार न्हवऱ्या-व्हंकलेक घालतात. हालींच्या दिसांनी वस्त्राचे सुवातेर फुलांचो अंतरपाट धरपाची फॅशन रूढ जाल्या.

कांय फुलांविशीं दरेका समाजांत खाशेले संकेत वा प्रतिकात्मक अर्थ रूढ आशिल्ल्याचे दिश्टी पडटा. साळीक हें पावित्र्य दाखोवपी आनी शिरीषाचें फूल हें मोगाचें प्रतिक अशें मानतात. बेल वा धवीं फुलां म्हादेवाक, मंदाराचीं वा तांबडीं फुलां वा दुर्वा गणपतीक, तुळस वा तांबडीं फुलां विष्णुक आनी रुयेच्या फुलांपानांची माळ मारुतीक प्रिय अशें मानतात. कोणाकूय बळी दिता आसतना वा ताची हत्या करतना ताच्या गळ्यांत तांबड्या फुलांचे हार घालपाची प्रथा इतिहासांत आशिल्ली. तशेंच कोणूय झुजारी झुजामळार गेलो जाल्यार ताच्या गळ्यांत रंगीत फुलांची माळ घालपाची पद्दत रूढ आसा. हालींच्या तेंपार खंयच्याय मनशाच्या मड्याचेर फुलां, हार, पुष्पचक्र घालप जाता. तशेंच तड्या - समाधीचेर फुलां ओंपपाची प्रथा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## फुले, महात्मा ज्योतीराव गोविंदराव : (जल्म : १८२७, पुणें; मरण : २८ नोव्हेंबर. १८९०).

महाराष्ट्रांतलो एक व्हड समाजसुदारक आनी एक क्रांतिकारक विचारवंत. सावता माळी समाजांतलो गोविंदराव शेटिबा फुले आनी चिमणाबाय हांचो तो दुसरो चलो. तांचें मूळचें गोऱ्हे हें उपनांव बदलून फुलांच्या वेवसाया खातीर तांकां फुले हें आडनांव पडलें. जोतीरावाच्या भुरगेपणांतूच ताचे आवयक मरण आयिल्ल्यान ताच्या बापायनूच ताचो सांबाळ केलो. ताका शिक्षण घेवंक जायत्यो अडचणी आयल्यो. तरी शालान्त परिक्षेइतलें शिक्षण ताणें पुराय केलें. तशेंच दांडपट्टा, मल्लविद्या सारकें शरिरीक शिक्षणूय ताणें घेतलें. शिक्षण पुराय जातकच १८४०त सातारा जिल्ह्यांतल्या सावित्रीबाय नांवाचे चलयेकडेन ताचे लग्न जालें. सावित्रीबायचें शिक्षण ज्योतीरावानूच पुराय केलें.



शालेय शिक्षण चालू आसतना ताणें जायते इश्ट जोडिल्ले. सदाशिव बल्लाळ गोवंडे, सखाराम यशवंत परांजपे, मोरोपंत विठ्ठल वाळवेकर आदी इश्टांनी ताका समाजसुदारणेचे चळवळींत अखेरमेरेन साथ दिली. संवसाराचो, अस्तंत्या देशांचो आनी भारताचो पुर्विल्लो तसोच आर्विल्लो इतिहास ताणें इंग्लिशींतल्यान वाचून काडलो आनी ताचो खोलायेन अभ्यास केलो. अमेरिकन राज्यक्रांतीच्या इतिहासाचो ताच्या मनार प्रभाव पडलो. 'द राइट्स ऑफ मॅन' (१७९१-९२) हो टॉमस पेन (१७३७-१८०९) हाचो ग्रंथ ताणें सतत वाचलो. मानवी समतेचो आनी स्वातंत्र्याचो ध्येयवाद ताणें आत्मसात केलो. ह्या तत्त्वांच्या आदारान ताणें भारतीय समाजाचें आनी चड करून हिंदू समाजाचें बरे तरेन चिंतन केलें. ताणें संस्कृत ग्रंथ, वेद, स्मृती, पुराणां हांचो अभ्यास केलो. अशे तरेन चिंतन-मनन करून ताची भरतीय समाजक्रांतीची विचारसरणी तयार जाली.

शेतकारांची आनी दलितांची गरिबी पयस करपाखातीर ताणें लोकशिक्षण होच मुखेल उपाय अशें थरयलें. स्त्रीजात दादल्यांच्या वर्चस्वाखाला चेपणाक पडल्या हें मतींत घेवन ताणें १८४८त चलयांखातीर एक शाळा स्थापन केली. ताची बायल सावित्री हिणें थंय शिकोवपाचें काम सुरू केलें. त्या काळांत बायलांच्या शिक्षणाक मान्यताय नाशिल्ली आनी जो कोण सुदारक तसो प्रयत्न करतालो ताका विरोध जातालो. ज्योतीरावाच्या बापयन आपले सुनेक आनी पुताक तेखातीर घराभायर घालीं. तांच्या समाजांतल्यानूय ताका खूब त्रास दिवप जालें. पूण ह्या त्रासांक धिरान तोंड दिवन ताणें आपलें समाजसुदारणेचें कार्य फुडें चालू दवरलें. फुडें रास्ता पेठेंत आनी वेताळ पेठेंत आनीक दोन शाळा उगडल्यो (१८५१). ताणें अश्पृश्यांखातीरूय शाळा काडली. १८५२त सरकारी विद्या खात्याकडल्यान मेजर कँडी हाचे अध्यक्षतायेखाला ताच्या शिक्षणकार्याखातीर ताचो जाहीर सत्कार जालो.

त्या काळांत चलयांचीं भुरगेपणांतूच लग्नां जतालीं. ताका लागून उपराशिल्ले भुरग्या विधवांचे प्रस्न सोडोवपाखतीर कांय सुदारकांनी दुसऱ्या लग्नाची चळवळ सुरू केली. हे चळवळीक ज्योतीरावान आपलें पुराय फाटबळ दिलें. तरणेपणांत सभावीकपणान वासनेक बळी पडिल्ल्या विधवांची समाजाकडल्यान खर निंदा जाताली. जल्मल्ल्या भुरग्यांची हत्या जाताली. तांकां राखण दिवपाखातीर ज्योतीरावान बालहत्या प्रतिबंधक गृहाची स्थापना केली (१८६३). ह्या गृहांत अशा बायलांच्या बाळंतराची तजवीज आशिल्ली. विधवांचे केंस कापपाची चाल बंद जावंची म्हणून ताणें चळवळ केली. तेखातीर ताणें म्हाल्यांचो संपूय घडोवन हाडलो. आपल्या वाड्यांतली पियेवपाच्या उदकांची बांय अश्पृश्यांखातीर मेकळी सोडून ताणें अश्पृश्यांच्या पियेवपाच्या उदकाचो एक गंभीर प्रस्न सोडयलो.

१८७६-८२ ह्या काळांत तो पुणें नगरपालिकेचो वांगडी आशिल्लो. जातीभेदाची बसका आशिल्ले उच्च-नीच भाव, स्त्रीदास्य, हिंदू धर्मसंस्थेतली मुर्तीपूजा हीं हुमटावपाखातीर समताप्रधान समाज निर्माण करपाखातीर आनी अंधश्रद्धा निर्मुलन करपाखातीर ताणें १८७३त सत्यशोधक समाजाची स्थापणूक केली. ह्या सत्यशोधक समाजाचे सगळ्या धर्मांचे आनी सगळ्या जातींचे लोक वांगडी जावचे अशी येवजण केल्ली.

ज्योतीरावान मौलिक आनी प्रासंगिक बरप करून पुस्तकां आनी पुस्तिका उजवाडाक हाडल्यो. ताणें बरयल्ले कांय म्हत्वाचें निबंद : 'ब्राह्मणांचे कसब' (१८६९), 'गुलामगिरी' (१८७३), 'सत्सार' (अंक एक आनी

दोन, १८८५), 'शेतकऱ्याचा आसूड', सार्वजनिक सत्यधर्म, छत्रपति शिवाजी राजे भोसले यांचा पवाडा (१८६९), 'हंटर - शिक्षण आयोगापढें सादर केलेले निवेदन' आनी 'इशारा' ताणें कांय काव्यरचनाय केल्यात.

ज्योतीरावाक ताची बायल सावित्रीबाय हिणें समाजसुदारणेच्या आनी लोकशिक्षणाच्या कार्यांत जल्मभर साथ दिली. स्त्रीमुक्ति चळवळीची महाराष्ट्रांतली पयली बायल म्हणून तिची नामना आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**फूजियामा :** जपानांतलो सगळ्यांत ऊंच, पवित्र आनी निद्रिस्त ज्वालामुखी पर्वत. हो पर्वत होन्शू जुंव्याचे मदीं आनी टोकियोचे नैऋत्येक सुमार १२० किमी. अंतराचेर आसून ताची उंचाय ३,७७६ मी. आसा. तो शंखाच्या आकाराचो आसून मुळाकडेन ताचो घेर १०१ किमी. आसा. ताच्या ज्वालामुखी विवराची खोलाय सुमार २२३मी. आनी व्यास सुमार ६०० मी. आसा. इसवी. सन आदीं २८६त जाल्ल्या भूंयकांपान हो ज्वालामुखी तयार जलो अशें म्हण्टात. ताचो निमाणो उद्रेक १७०७त जालो. ह्या उद्रकाक लागून टोकियो शाराचेर १५ सेंमी. गोबराचो थर पातळिल्लो.

संवसारांतल्या सोबीत पर्वतांमदीं ह्या पर्वताची गणना जाता. ताचो रेखीव आकार, ताचेवयली पाचवीचार सृश्ट, बर्फान भरिल्लें तेमूक हांकां लागून जपानी कवी आनी चित्रकार हांचे कलेंत ह्या आकृतायांचो आस्पाव आसता. ताच्या उत्तरेकडल्या मुळसांत पांच तळीं आसात. तातूंतल्या कावागूची-को ह्या थंड तळ्यांत फूजियामाचें सुंदर-सोबीत प्रतिबींब पडटा. ह्या पर्वताचेर वचपाक सात वाटो आसात. टोकियोसावन तेमकामेरेन बस येरादारीची वेवस्था आसा. ह्या पर्वताचेर शिंतो हें देवूळ आनी १९३२त स्थापन जाल्ली वेधशाळा आसा.

जपानी लोकांचे जिणेंत ह्या पर्वताक म्हत्वाची सुवात आसा. दरवर्सा सुमार ५०,००० भावीक ताचें दर्शन घेतात. आदल्या तेंपार बायलांक हांगा वचपाक मनाय आसली. आतां थंय बायलोय वंचूक शकतात.

– कों. वि. सं. मं.

**फूटबॉल :** पांयांनी खेळपाचो पेल्लाचो मैदानी खेळ. फुट (Foot) म्हळ्यार पांय आनी बॉल म्हळ्यार पेल्ल. ह्या खेळाचे 'सॉकर' (असोशिएशन फूटबॉल), 'रग्बी', रग्बी लिग, अमेरिकन फूटबॉल, कॅनडियन फूटबॉल, ऑस्ट्रेलियन फूटबॉल, गॅलिक फूटबॉल, ईटन फूटबॉल, हॅरो फूटबॉल, विंचेस्टॅर फूटबॉल अशे वेगवेगळे प्रकार आसात. हातूंत सॉकर आनी रग्बी हे दोन मुखेल प्रकार. तातूंतले तातूंत सॉकर हो खेळ चड लोकप्रिय आनी तो संवसारांतल्या भोवतेक देशांनी खेळटात. सद्या भारतांत सॉकर हो प्रकार खेळटात. सद्याचो फूटबॉल खेळ हो खूब स्थित्यंतरांतल्यान आयचे दशेक पावला अशें ताचो इतिहास पळयल्यार दिसता. इ. स. आदल्या चवथ्या शतमानांतलो त्सू - चू पुर्विल्ल्या ग्रीसांतलो 'हरपास्टॉन' रोमांतलो 'हरपास्टम' हे खेळ फूटबॉलाक लागीचें आशिल्ले.

सुर्वेच्या काळांत पेल्लाच्या जाग्यार मनशाची कवटी, मोनजातीचें मुत्राशय, रेंवेन भरिल्ल्यो पोतयो हांचो वापर केल्लयाचो उल्लेख मेळटा. सादारणपणान बाराच्या शतमानासावन सद्याचो फूटबॉल मुखार आयिल्लो दिसता. ह्या खेळाचो त्या वेळावयलो प्रकार हो बरोच आडदांड, अनियमीत आनी ध्योक्याचो आसलो. १९व्या शतमानांत ह्या आडदांड आनी नेम नाशिल्ल्या खेळाचें नियोजन करून ताका खेळाचें रूप दिवप जालें.

एक गोलरक्षक, दोन पूर्ण पिछाडी, तीन निमाणी पिछाडी, पांच आघाडी खेळगडे अशी ह्या खेळाची आधुनिक रचणूक आसा. संवसारांतलो सगळ्यांत पयलो शॅफिल्ड फूटबॉल क्लब १८५७त अस्तित्वांत आयलो. सॉकराचो पयलो अधिकृत खेळ १८६६वर्सा इंग्लंडांत शॅफिल्ड आनी लंडन ह्या क्लबांमदीं जालो. उपरांत १८७१ वर्सा 'फूटबॉल चॅलेंज कप', १८९३ वर्सा हौशी खेळगड्यांखातीर 'फूटबॉल असोशियेशन अमॅच्युअर कप' सुरू जालो. १८०४ वर्सा पॅरीसांत फेडरेशन इंटरनॅशनल असोशिएशन ही संघटना स्थापन जाली. हे संघटनेचे वतीन १९३० वर्सासावन दर चार वर्सांनी जावपी 'वर्ल्ड कप' सर्त जाता. १९०८ पसून ऑलिंपिक खेळांनी आनी १९५२ सावन आशियाई खेळांनी फूटबॉलचो आस्पाव जाता. १९५५ वर्सा 'युरोपियन कप' हो फकत युरोपी देशांपुरती आशिल्ली सर्त सुरू जाली.

सॉकराचो पेल्ल हो रबराचे पोतयेंत वारो भरिल्लो आनी वयले वटेन कातडी धांपिल्लो आसता. ताचें वजन ३९७ ग्रॅ. ते ४५४ ग्रॅ. (१४-१६ औंस) आनी घेर ६८.५० सेंमी. ते ७१ सेंमी. (२७-२८ इंच) असो वाटकुळो आसता. फूटबॉल (खेळपाचें मैदान ९० मी. ते १२० मी. लांबायेचें आनी ४५ ते ९० मी. रुंदायेचें आयाताकार आसता. गोल खांबे एकामेकांपसून ७.३२ मी. अंतराचेर आसून ते २.४३ मी. ऊंच आसतात. तांचेर आडवो दांडो बसयल्लो आसता. गोलाचें क्षेत्र १८.३२ मी. X ५.५० मी. आसता. दंड क्षेत्र (पॅनल्टी एरिया) ४०.३२ मी. X १६.४७ मी. आसता. कांय खेपे मैदानाचें माप सोयीप्रमाण ल्हान-व्हड आसलें तरी गोलखांबे, गोलक्षेत्र हांचीं मोजमापां नियमीत आसतात. संवसारीक सामन्यांनी मैदान हें उण्यांत उणें १००.५८ मी. वा चडांत चड १०९.७२ मी. लांबायेचें आसता आनी ताची रुंदाय उण्यांत उणी ६४ मी. आनी चडांत चड ७३.१५ मी. आसता.

सॉकराचो सामनो दरेकी इकरा खेळगडे आशिल्ल्या दोन पंगडांमदीं, (संघांत) , दरेकीं ४५ मिनटांचे दोन डाव आनी मध्यंतरीक पांच मिनटांचो सुशेग हे प्रमाण खेळटात. सुरवातीच्या काळांत पंगडांतल्या इकरा खेळगड्यांची पांच आघाडी (फॉरवर्ड), तीन निमाणी पिछाडी (हाफ बॅक), दोन पूर्ण पिछाडी (फूल बॅक) आनी गोलरक्षक हो इकरावो खेळगडो अशी रचना आसता. हातूंत उपरांत कालांतरान बदल जायत गेल्यात.

**रग्बी :** इंग्लंडांतल्या रग्बी नगरांत ह्या खेळाचो खऱ्या अर्थान १८२३त उगम जालो म्हणचें पडटलें. सॉकर खेळ आनी रग्बी खेळ हातूंतलो मुळावो फरक म्हळ्यार रग्बी खेळांत पांयांवांगडांच पेल्ल खेळोवपाक हातांचोय उपेग करपाची अनुमती आसता. १८७१त रग्बी फूटबॉल युनियनाची लंडनांत स्थापना जाली आनी त्याच वर्सा इंग्लंडाआड स्कॉटलंड हो पयलो आंतरराश्ट्रीय सामनो एडिमबराक जालो. सुर्वेक २० आनी उपरांत १५ अशी खेळगड्यांची संख्या निश्चीत जाली.

१९२२त रग्बी युनियनांतल्यान फुटून 'रग्बी फूटबॉल लिग' ही वेवसायीक खेळाक उत्तेजन दिवपी संस्था स्थापन जाली.

रग्बीचो पेल्ल तांतया आकाराचो आसून ताची लांबाय २८.२९ सेंमी. आनी लांबायेप्रमाण परिघ ७६-७९ सेंमी. आसता. ताचें वजन ३८० - ४३० ग्रॅ. आसता. रग्बीचें मैदान हें सादारणपणान १४६ मी. लांब आनी ६९ मी. रूंद आसता. दोन गोलरेशांमदलें अंतर १०० मी.

आसता. गोलरेशेचे पलतडीवटेन ताका समांतर अशो रेशो २३ मी. अंतराचेर काडिल्ल्यो आसतात. हांकां 'इन गोल' अशें म्हण्टात. पुराय मैदानाक मदीं विभागणी रेशा म्हळ्यार 'हाफ वे लायन' आसून तिच्या दोनूय वटांनी १० मी. अंतराचेर समांतर रेशो काडिल्ल्यो आसतात. गोल खांब्यांमदलें अंतर ५.६ मी. आसता.

रग्बी युनियनांत दरेका संघांत १५ खेळगडे आसतात. दरेकी ४० मिनटाचे दोन डाव मध्यांतराक वा सुशेग घेवन खेळटात. सामन्याचें नियंत्रण पंच आनी ताचे दोन सहाय्यक करतात. ह्या खेळांत पेल्लाक खोंट मारप, पांयांनी खेळयत फुडें फुडें व्हरप, पेल्ल हातांत घेवन धांवप, पेल्ल एका खेळगड्यान दुसऱ्या खेळगड्याकडेन दिवप आदी प्रकारांचो आस्पाव जाता. खेळगडो जर 'ऑफ सायड' स्थितींत आसलो जाल्यार ताका खेळांत वांटो घेवंक मेळना. 'ऑन सायड' स्थितींत खेळगडो हो सदांच पेल्लाफाटल्यान वा पेल्ल घेवन धावपी ताच्या संघांतल्या खेळगड्या फाटल्यान आसचोच पडटा. एका खेळगड्यान दुसऱ्या खेळगड्याकडेन पेल्ल पास करतना तो दोनूय वटांनी वा फाटले वटेनूच दिवंक जाय. मुखावेल्यान पेल्ल दिवप (फॉरवर्ड पास) नेमाभायर जाता. पेल्ल घेवन धांवपी खेळगड्याक प्रतिपक्षाचो खेळगडो आडावंक वा धरूंक शकता आनी ताका मैदानांत बसोवंक (टॅकलिंग) शकता. पूण ताका ब्लॉकिंग करूंक येना.

अमेरिकन फूटबॉल, कॅनेडियन फूटबॉल, ऑस्ट्रेलियन फूटबॉल हे उण्या चड अंतरान रग्बी फूटबॉल खेळाचे प्रकार.



संवसारीक सॉकर सर्तीत वांटो घेवपी वेगवेगळ्या देशांतले कांय नामनेचे खेळगडे अशे :

**ब्राझील** - पॅलॅ, बेलीनी, झीटो, गारींचा, दीदी, व्हा व्हा, झागालो, झेर्सन, झेर्झीनो, टोस्टाव, टीव्हेलीनो, सोक्रातीश, झीकी, जूझेमार आनी कारेका.

**आर्जेंटिना** - मारादोना, कानेयझीया, गोयकाचोव्ह, बूसचागा, पासरेल, केंपीश, लुक आनी बर्टोनी.

**अस्तंत जर्मनी** - बेकनबूर, मूलर, मेयर, शुमेकर, मेथावज, रुमेनीझ, ब्रीझल, फिशर, ब्रेटनर लीटझबार्की, वेबर, ओव्हराथ, सीलर, व्होलर आनी ब्रेहम.

**इटली** - झोफ, बरगोमी, सीलासी, व्हीयाली, काब्रीमी, तारदेली, रोसी, कोंटी, झेंगा, फाचेरी, माझेला, टीव्हेरा, बाग्गीयो आनी बारेसी.

**इंग्लंड** - ब्यांक्स, मूर, बॉबी चार्लटन, हर्स्ट, शील्टन, लीनेकर, ग्लासकोयन, रायट, बूचर आनी वॉकर.

**हॉलंडी** – क्रयूफ, नेसकीन्स, क्रोल, गुलीट, टीजकडि, रेझन ब्रींक बास्टन आनी वयोमन.

**रशीया** - याशीन, देसायव्ह, बेलानोव्ह, प्रोटोझांव्ह आनी मीकालीशेको.

**स्पेन** - ब्रुटाझेनो, मिचेल, सांचीश आनी व्हाक्सेझ.

**केमरून** – मील्ला, बेल आनी बीयीक.

**कोलंबिया** - व्हालटामा, दूगीटा, पेरेझ आनी ईस्कोवार.

**रुमानीया** - हागी, लेकाटस आनी बेलोडीडीसी.

**बेल्जीयम** - स्कीफो, डेमोल आनी स्युलेमान.

**हंगेरी** - पूशकाश, सारोसी, टीट्कोश, लांटोश, बीरो आनी लाझार.

भारतांत राश्ट्रीय फूटबॉल सर्तीची सुरवात १९४१ - ४२ ह्या वर्सा जाली. दिल्लीचेर बंगालान ५.१ अशें जैत मेळोवन सगळ्यांत पयलीं संतोष करंड जिखपाचो मान मेळयलो. १९४२ - ४३ आनी १९४३ - ४४ हीं दोन वर्सां ही सर्त जाली ना. १९४४ - ४५ ही सर्त परत जावन तातूंत दिल्लीन बंगालाचेर २.० अशें जैत मेळोवन संतोष करंड जिखलो. आयज मेरेन बंगाल ही सर्त २२ फावटीं जिखला जाल्यार १० खेपे ताका हे सर्तीचें उपवस्तादपण मेळ्ळां. १९८३ कलकत्याक जाल्ले राश्ट्रीय सर्तींत बंगाल आनी गोंय पंगडांक जोड वस्तादपण मेळ्ळां. उपरांत गोंय पंगडात १९८४त पंजाबाचेर जैत मेळोवन आनी १९९०त केरळाचेर जैत मेळोवन दोन फावटीं संतोष करंडाचें वस्तादपण मेळयलें. १९९०त जाल्ली ही सर्त गोंयांतल्याच फातोड्ड्यां (मडगांव) नेहरू स्टेडियमाचेर जाल्ली. गोंयान दोन खेपे चल्यांची ज्युनियर राश्ट्रीय सर्त तशेंच सबज्युनियर राश्ट्रीय सर्त जिखल्या. तेचपरी चलयांचे ज्युनियर आनी सबज्युनियर सर्तीचें वस्तादपण गोंयांक मेळिल्लें आसा. बायलांचे राश्ट्रीय सर्तीचें वस्तादपण गोंयांक मेळ्ळां. तेभायर गोंयांन दोन फावटीं राश्ट्रीय विद्यालयीन सर्तीचें वस्तादपण मेळयलां. सुब्रोटो करंडूय गोंयांक मेळिल्लो आसा.

राश्ट्रीय सर्तीन कांय विक्रम आसात ते अशे : १९७४त पंजाबचो मुखेली इंदरसींग हाणें जालंधराक जाल्ले सर्तींत २३ गोल केले. निमाण्या खेळांत पंजाबात बंगालाचेर ६.० अशें जैत मेळयलें. संतोष करंडाच्या निमाण्या खेळांत इतलें व्हडलें जैत खंयच्याच पंगडाक मेळ्ळूंक ना. १९९४त गोंयान मद्रासाक जाल्ली सर्त एकूय गोल घेनासतना जिखली. गोंयचो मुखेली ब्रह्मानंद शंखवाळकार हो गोंय पंगडाचो गोली आशिल्लो. १९४६ - ४७ ते १९५१ - ५२ ह्या काळांत सेगीत पांच वर्सां बंगालान ही सर्त जिखली. तेचपरी फुडें १९७५ - ७६ आनी १९७९ - ८० ह्या काळांतूय ताणें सेगीत पांच वर्सां ही सर्त जिखपाचो विक्रम केलो.

**भारतांतले अर्जून पुरस्कार मेळयल्ले खेळगडे** : प्रदीप कुमार बॅनर्जी (बंगाल, १९६१) ; बलराम (बंगाल, १९६२); चूनी गोस्वामी (बंगाल, १९६३); जर्नेल सींग (बंगाल १९६४); अरुण घोष (बंगाल, १९६५); युसूफ खान (आंध्र प्रदेश, १९६६); पिटर त्यागराज (बंगाल, १९६७); इंदर सिंग (पंजाब, १९६८); सय्यद नईमउद्दीन (बंगाल, १९७०);

चंद्रशेखर प्रसाद (बंगाल, १९७१); मगन सिंग रीझव्ही (राजस्थान, १९७३); गुरुदेवसींग, (पंजाब, १९७८); प्रस्तुम बॅनर्जी (बंगाल, १९७९); महम्मद हबीब (बंगाल, १९८८); सुधीर कर्मस्कर (बंगाल, १९८१) आनी सुब्रोटो बॅनर्जी (बंगाल, १९८९).

भारताचो वस्ताद क्लब थारोवपाखातीर १९७६ ह्या वर्सापसून फॅडरेशन करंड सर्त जाता. पयले खेपे मोहन बगानाक एका गोलान हारोवन बेंगळूरच्या आय टी आय पंगडान फॅडरेशन करंड जिखपाचो मान मेळयलो. मोहन बगानान ही सर्त सगळ्यांत चड फावटीं म्हळ्यार स खेपे जिखिल्ली आसा. दोन खेपे ताका संयुक्त वस्तादपण मेळ्ळां. जाल्यार चार खेपे उपवस्तादपण मेळ्ळां. गोंयचो साळगांवकार स्पोर्टस क्लब पांच फावटीं हे सर्तीच्या निमाण्या भोंवाड्यांत (फायनल) पाविल्लो आसा. १९८८त, १९८९त आनी १९९७त ताका हे सर्तींत वस्तादपण फावो जालां. १९८९त सुरू जाल्ली रोव्हर्स करंड सर्त गोंयच्या धेंपो स्पोर्टस क्लबान चार फावटीं जाल्यार साळगांवार एक फावटीं जिखिल्ली आसा. वास्को स्पोर्टस क्लबान १९६७ आनी १९७२ ह्या वर्सा रोव्हर्स सर्तीचें उपवस्तादपण मेळयल्लें आसा.

अख्ख्या संवसारांत फूटबॉल हो लोकांरुचीचो आसा. कितलेशेच देश ह्या खेळांत ह्या खेळांत वांटो घेतात. १९०४ वर्सा अस्तित्वांत आयिल्ली फिफा ही संघटना संवसारांतल्या फूटबॉलाचो कारभार पळयता. १९९६च्या ऑलिंपिक खेळांत फूटबॉलाचो आस्पाव आशिल्लो. १९९१ सावन दिल्लीक आशियाई (Asian) गेम्स सुरू जाल्ली आनी तातूंतूय फूटबॉलाचो आस्पाव आशिल्लो. तातूंत पयलेच खेप भांगरा पदक मेळोवपाचो मानूय भारताक मेळ्ळो. भारतांतल्या फूटबॉलाचो कारभार अखिल भारतीय फूटबॉल संघटना पळयता.

संवसारीक (वर्ल्ड कप) सर्तींत जैत मेळिल्ले संघ :

| वर्स | जैतिवंत संघ | उपजैतिवंत संघ | थळ |
|---|---|---|---|
| १९३० | युरुग्वाय | आर्जेंटिना | माँतविडियो युरुग्वाय |
| १९३४ | इटली | झॅकोस्लोव्हाकिया | रोम, इटली |
| १९३८ | इटली | हंगेरी | पॅरीस, फ्रांस |
| दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून १९४२ आनी १९४६ तल्यो सर्ती जावंक शकल्योनात | | | |
| १९५० | युरुग्वाय | ब्राझील | रियु द जानैरु ब्राझील |
| १९५४ | अस्तंत जर्मनी | हंगेरी | बर्न, स्विट्झर्लंड |
| १९५८ | ब्राझील | स्विडन | स्टॉकहोम, स्विडन |
| १९६२ | ब्राझील | झॅकोस्लो-व्हाकिया | सांतियागो, चिली |
| १९६६ | इंग्लंड | अस्तंत जर्मनी | लंडन, इंग्लंड |
| १९७० | ब्राझील | इटली | मेक्झिको |
| १९७४ | अ. जर्मनी | हॉलंड | म्युनिक, अ. जर्मनी |
| १९७८ | आर्जेंटिना | हॉलंड | बुएनोस आयरिस, आर्जेंटिना |
| १९८२ | इटली | अ. जर्मनी | माद्रीद, स्पेन |
| १९८६ | आर्जेंटिना | अ. जर्मनी | मेक्झिको |
| १९९० | अ. जर्मनी | आर्जेंटिना | रोम, इटली |

ऑलिंपीक सर्तींत जैत मेळिल्ले पंगड

| वर्स | जैतिवंत पंगड | उप जैतिवंत |
|---|---|---|
| १९०० | इंग्लंड | अमेरिका |
| १९०४ | गाल्ट एफ. सी. | ख्रिश्चन ब्रदर्स |
| १९०६ | डॅनमार्क | स्मिर्ना |
| १९०८ | ग्रेट ब्रिटन | डॅनमार्क |
| १९१२ | ग्रेट ब्रिटन | डॅनमार्क |
| १९२० | बेल्जियम | झॅकोस्लोव्हाकिया |
| १९२४ | युरुग्वाय | स्विट्झर्लंड |
| १९२८ | युरुग्वाय | आर्जेंटिना |
| १९३६ | इटली | ऑस्ट्रिया |
| १९४८ | स्विडन | युगोस्लाव्हिया |
| १९५२ | हंगेरी | युगोस्लाव्हिया |
| १९५६ | रशिया | युगोस्लाव्हिया |
| १९६० | युगोस्लाव्हिया | डॅनमार्क |
| १९६४ | हंगेरी | झॅकोस्लोवाकिया |
| १९६८ | हंगेरी | बुल्गेरिया |
| १९७२ | पोलंड | हंगेरी |
| १९७६ | उ. जर्मनी | पोलंड |
| १९८० | झॅकोस्लोव्हाकिया | उ. जर्मनी |
| १९८४ | फ्रांस | ब्राझील |
| १९८८ | रशिया | ब्राझील |
| १९९२ | स्पेन | पोलंड |

- अजीत मोये

**फूल :** अँजिओस्पर्मी (Angiospermae) विभागांतल्या खंयच्याय झाडांमदीं मेळपी एक खाशेली प्रजोत्पादक रचणूक. फूल हें मुखेलपणान प्रजननाखातीर रचिल्लें एक खांदयेचें रूप.

सादारणपणान सगळ्या फुलांचीं वेगवेगळीं आंगां सारकींच आसतात. फूल हें देंठाच्या आदारान खांदयेक जोडिल्लें आसता. खंयचेय खांदयेवरीच फुलाक मदलो कणो आसता. जाका बसका (Thalamus) अशें म्हण्टात. हाचो आकार मातसो फुगीर गुळ्यावरी वा लांबसो आसून ताचेर फुलाचे वेगवेगळे भाग वाटकुळे रचिल्ले (चांफ्यावरी) वा परत्या शंकूवरी (कमळावरी) रचिल्ले आसतात. चडशा फुलांचे मदल्या कण्याचे कांडे (internode) चेपटे आसतात. पूण कांय जातींभितर ते लांबोडेय आसूंक शकतात. फुलाची भायली वाटी आनी फुलाचो गोंडो हांच्या मदल्या कांड्याक खूर (Anthophore) म्हण्टात. फुलांगोंडो आनी केंसर (androcium) हांच्या मदल्या कांड्याक 'केंसरधारण' (androphore) म्हण्टात. तशेंच केंसर आनी किंजमंडळ (gynoecium) हांचेमदल्या कांड्याक किंजधारण (gynophore) म्हण्टात. फुलाचे हेर भाग कण्याचेर कुंडलींत वा आवर्ती रूपांत वाटकुळे रचिल्ले आसतात.

फुलाचो सगळ्यांत भायलो भाग म्हळ्यार फुलाची वाटी, जी दळांची (Sepals) जाल्ली आसून ती चड करून पाचव्या कोराची आसता. हीं दळां मेकळीं वा जोडिल्लीं आसूं येतात. जोडिल्लीं दळां आसतात तेन्ना तांकां वाटयेचो आकार येता. हे रचणुकेक एकवटीत दळां (gamosepalous)

म्हण्टात. तीं मेकळीं आसल्यार तांकां polysepalous मेकळीं दळां म्हण्टात.

फुलाचो गोंडो हो पाकळ्यो मेळून जाता. ह्यो पाकळ्यो मेकळ्यो वा जोडिल्ल्यो आसूं येतात. केंसर हो फुलाचो तिसरो वांटो. केंसर दळां (stamens) आनी फुलाचें नर आंग मेळून केंसर जाता. केंसरदळ हें तंतूचेर उब्या आशिल्ल्या पोलां-करंडाचें जाता. पोलां-करंडांत पोलां आसतात. केंसरदळां मेकळीं वा जोडिल्लीं आसतात. जेन्ना खूब केंसरदळांचो पुंजुलो करतात, तेन्ना तांकां एक पुंजुलो आसल्यार.एक संघ monoadalphous आनी चड आसल्यार द्वीसंघ अवस्था म्हण्टात. किंजदळां (Carpels) मेळून किंजमंडळ तयार जाता.

किंजमंडळाच्या ज्या भागार पोलां (Pollen grains) येवन पडटात त्या भागाक किंजल्क (stigma) म्हण्टात. किंजल्क आनी किंजपूट (Ovary) हांकां जोडपी नळयेक किंजल (style) म्हण्टात. किंजपूट, किंजल्क आनी किंजल हांचें मेळून किंजमंडळ जाता. फूल फुलले उपरांत कांय दिसांनी किंजदळांचें फळ जाता आनी बीजकाच्यो (ovules) बियो जातात. फुलाचीं नर आनी मादी जननेंद्रियां हीं सगळ्यांत गरजेचीं आंगां.

फुलांचो अभ्यास करता आसतना तांचो किंजपूट खंय आसा हें जाणून घेवप खूब म्हत्वाचें. किंजपूट फुलाच्या हेर सगळ्या आंगांपरस वयर आसल्यार ताका अवकिंज (hypogynous) आनी सगळ्यांत सकयल आसल्यार (epigynous) अपिकिंज म्हण्टात. पूण सगळींच आंगां एकाच थरार आसल्यार ते स्थितीक परिकिंज (perigynous) म्हण्टात.




**फूल :** १. पान २. पुष्पस्थली ३. पाकळी ४. प्रदल ५. किंजल्क ६. बीजक ७. बीजकाधानी.

फुलांचे दोन समान वांटे जायत जाल्यार तांकां समभागी (Actinomorphic) आनी जांचे समान वांटे जांवक शकनात तांकां एकसमात्र (zygomorphic) म्हण्टात. दोनूय लिंगांचीं इंद्रियां आसपी फुलांक द्विलिंगी जाल्यार हेरांक एकलिंगी म्हण्टात. लिली सारकिल्या फुलांनी वाटी आनी गोंडो हीं खेरीज दिसनात जाल्यार एकूचशीं दिसतात. तांकां परिदळ पुंजुलो (perianth) म्हण्टात.

फुलांभितर रॅफलेशिया (Rafflessia) हें सगळ्यांत व्हडलें जाल्यार लेमना (Lemna) हें सगळ्यांत ल्हान. रेंवटी वाठारांनी फुलपीं फुलां सोबीत आनी वासाचीं आसतात. चड करून तीं गिमाच्या दिसांनी फुलतात. फुलले उपरांत रोखडेंच तांच्या पोलांचें मिलन आनी गर्भधारणा जावन तीं बावतात. रातचीं फुलपीं फुलां चड करून धव्या रंगाचीं आनी चड वासाचीं आसतात. रंगयाळीं फुलां दिसाचींच फुलतात.

पोलां-मिलन ही फुलांमदली एक म्हत्वाची घडणूक. हे प्रकियेंत पोलां केंसरदळांतल्यान नारी इंद्रियांत म्हळ्यार (stigma) किंजल्कांत पावतात. ही प्रक्रिया वारो, उदक तशेंच किडी-मुसांच्या आदारान घडटा. फूल एकोडें वा घोंसांनी फुलता. साबार फुलां एका गोंड्याच्या रूपांत आसतात तेन्ना तांकां घोंस म्हणूं येता. सूर्यफूल हें एकोडें फूल नासून तो साबार सुपुल्ल्या फुलांचो घोंस.

मनीस पुर्विल्ल्या काळासावन फुलां पुजेखातीर वा सजावटीखातीर वापरत आयला. भारतांत फुलांच्या वापराविशींचे उल्लेख ऋग्वेदांत मेळटात. फूल हें मोग, भोवमान, आराधना तशेंच लग्न जाल्ल्या बायलांखातीर सौभाग्याचें प्रतिक मानलां. विंगड विंगड देवतांची पूजा खेरीज खेरीज फुलांनी करपाची चाल भारतांत आसा. गणपतीक तांबडीं, शिवाक धवीं, तेच परी कांय खाशेलीं फुलां खाशेल्या देवतांचीं मानल्यांत. देखीक - मारूतीक रूय, शंकराक धुतरो. गोंयांतूय कांय खाशेल्या देव देवतांक खाशेलीं फुलां आंगयतात. शिरगांवचे जात्रे दिसा लईराई देवीक मोगरेचे कळे दितात, म्हाड्डोळा जायांची पूजा जाता. त्या दिसा म्हाड्डोळचे देवीचें देवूळ जायांच्या फुलांनी शिंरगारतात आनी देवीक जायांच्या फुलांनी तयार केल्ल्या आसनांत बसयतात. तशेंच सायबिणीक आबोलेचीं फुलां आंगयतात.

- डॉ. कस्तुरी देसाय

पूरक नोंद - फुलांची रचणूक, फुलांची सजावट.

**फूलकोबी :** वनस्पत विज्ञानाप्रमाण हाचो ब्रसिका ओलेरॅसिया हे प्रजातींत आस्पाव जाता. कोंकणींत हाका फ्लावर अशेंय म्हण्टात.

फूलकोबीचो उगम युरोपीय भूंयमध्य दर्याच्या लागशिल्ल्या प्रदेशांनी सुमार ४५०० वर्सां पयलीं जाल्लो आसून ताका कॉली (लॅटीन शब्दावयल्यान) वा च्यॉली (जर्मन शब्दावयल्यान) कॉलिफ्लावर हें नांव पडलां आसुयें असो समज आसा. भारतांत हाची लागवड एकुणिसाव्या शेंकड्यासावन जावपाक लागली. उपरांत विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेसावन ताचो हेर आशिया देशांनी प्रसार जालो. फूलकोबी हो गुळ्यासारको आसून, तो दाट पाचव्या पानांनी रेवडिल्लो आसता. ताचें खोड ल्हान आसून तें जमनींत पुरिल्लें आसता.

अर्ली स्नो बॉल, स्नो बॉल, स्नो बॉल-१६, कुनारी, कटकी, अर्ली पाटना, स्वाती, पुसा शुभ्र, पुसा हिमज्योती, पुसा दिपाली, पुसा कार्तिकी ह्यो फूलकोबीच्यो मुखेल जाती आसात. हवामानाप्रमाण विंगड विंगड प्रकारांची लागवड करतात. जायंट स्नो बॉल आनी पाटना स्नो बॉल जातींचे फूलकोबी हिमाभाशेन धवे आनी व्हड आसतात. स्नो बॉल प्रकारांची मुखेलपणान शिंयाळ्यांत लागवड करतात (ऑक्टोबर-फेब्रुवारी). कुनारी, कटकी, अर्ली पाटना आनी स्वाती ह्या प्रकारांची पावसाच्या दिसांनी लागवड जाता. गोंयात शिंया दिसानी फूलकोबीची लागवड करपाक जाता. मात लागवड वेळार म्हणजे ऑक्टोबर-नोव्हेंबर म्हयन्यात जावपाक जाय.

सादारणपणान थंड आनी दमट हवेंत फूलकोबीचें पीक बरें येता. पूण कांय प्रकार सादारण उशण हवामानांतूय वाडपाक शकतात. १५°

सॅ. ते २२° सॅ. तापमानांत तांची वाड योग्य रितीन जाता. नर्सरींत ही भाजी रोवपाखातीर सादारणपणान ८ मी. x ६० सेंमी x ४५ सेंमी. ह्या आकाराचे वाफे करतात. उपरांत वाफ्यांत बीं रोवन रोंपयो तयार करतात.



वेगवेगळ्या प्रकारांक लागून तांची लागवड विंगड विंगड हवामानाचेर आदारिल्ली आसा. रोंपयो दोन ओळींनी कांय अंतर सोडून लायतात. ल्हान वा मध्यम आकारमानाचे फूलकोबी उण्या अंतराचेर लायतात. लागवडी पयलीं माती आनी शेणावांगडा भरसण केल्लें १२ ते २० टन सारें दर हॅक्टराक दितात. लागवडीच्या वेळार दर हॅक्टराक ६० किग्रॅ. नत्र, ८० किग्रॅ. स्फुरद आनी ४० किग्रॅ. पलाश आनी लागवडी उपरांत ६ सप्तकांनी ५०-६० किग्रॅ. नत्र दिवन दिसांतल्यान एक फावट उदक शिंपतात.

उत्पादनाचो वाठार आनी क्षेत्र -

| | वाठार दर हजार हॅक्टराक | उत्पादन दर हजार मॅट्रीक टन |
|---|---|---|
| भारत | ९३ | ६८५ |
| चीन | ७९ | १०५० |
| फ्रांस | ४५ | ५६८ |
| अमेरिका | २६ | ३०८ |
| ब्रिटन | २१ | ३९८ |
| इटली | ११ | ४४७ |

चीन, भारत, फ्रांस, अमेरिका ह्या देशांनी फूलकोबी उत्पादन व्हड प्रमाणांत जाता. भारतांत सगळ्याच प्रदेशांनी ह्या पिकाची लागवड जाता. सुदारीत बीं वापरून भारतान फूलकोबीचें उत्पादन चार पटींनी वाडयलां. पूण भारतांतल्या गरम हवामानाक लागून फूलकोबीचे लागवडीखाला चड जमीन आसून लेगीत उत्पादन युरोपी देशांपरस उणें येता. भारतांत फूलकोबीचें पीक वर्साक एकूच फावट घेतात. गोंयांत फूलकोबीची लागवड व्हडलीशी ना.

वताक लागून फूलकोबीच्या गड्ड्यांचो रंग धवोफुल्ल उरना. हाका लागून तो ताच्याच पानांनी कांय दीस धांपून दवरतात. गड्डो जून जावंचे पयलीं काडचो पडटा. रोंपां लायले उपरांत गड्डे तयार जावपाक सुमार अडेज ते चार म्हयने लागतात.

१०० ग्रॅ. फुलकोबींत ९०.८ ग्रॅ. उदक, ४ ग्रॅ. कार्बोहायड्रेट, २.६ ग्रॅ. प्रथिनां, ०.४ ग्रॅ. वस, ५६ मिग्रॅ. विटामिन सी, १.५ मिग्रॅ. लोखण, ३३ मिग्रॅ. कॅल्शियम आनी ५७ मिग्रॅ. फॉस्फरस आसता.

फूलकोबीचो उपेग दीसपट्टे जिणेंत भाजी, सालाद, लोणचें, सूप हे सारकिले पदार्थ करपाक करतात. फूलकोबीचीं पानां मनीस चडशीं खायनात. पूण गोरवांक आनी बोकडांक खावड म्हणून तांचो बरो उपेग जाता.

फूलकोबीक कांय प्रकारांचे जीव वा दुयेंसां जातात. प्ल्युटेला मॅक्युलिपिनीस ही कीड तरण्या फूलकोबीचीं पानां खाता. अशा वेळार इंडोसल्फान वा मालाथिओन हांचो फवारो मारचो पडटा. ब्रॅगेडा पिक्टा हो जीव पानांतलो रोस चोखता. ताका लागून फूलकोबीचीं पानां हळदुवीं जातात. ह्या जिवांचो नाश करपाखातीर १०% बी.एच.सी चो फवारो मारचो पडटा. झॅंथोमोनस कॅंपेस्ट्रिस नांवाच्या रोगाचो प्रसार बियांक लागून जाता. हो रोग खर आसल्यार फूलकोबीचे गड्डे जायनात.

- मिंगेल ब्रागांझ

**फूलपाखो :** (पळेयात पाखो).

**फेटो :** तकलेक रेवडावपाचो एक भेस. एक लांबचे लांब कपडो घेवन तो तकलेक एके विशिश्ट पद्धतीन रेवडावप हाका फेटो म्हण्टात. ताकाच पटको, फेटो, रूमाल, साफा, कोशा, मंदिल, मुंडासो अशीं हेर नांवां आसात. पुर्विल्ल्या काळांत ताका उष्णीष अशेंय म्हण्टाले. आदल्या तेंपार कांय बायलोय अशे तरेचो भेस वापरताल्यो. भरहुत, भाजे, बोधगया, सारनाथ, सांची, मथुरा ह्या सुवातींनी जीं शिल्पां मेळ्ळ्यांत तातूंत बायल मूर्तीचे तकलेचेर अशे तरेचो भेस रेवडायल्लो दिसता. भारतीय फेट्याचे दोन प्रकार आसात.



फेटो म्हळ्यार तकलेक रेवडावन बांदिल्लो कपडो आनी पगडी म्हळ्यार विशिश्ट आकाराचें कायम बांदून दवरिल्लें पागोटें. संदचा तरेकवार जातींचे आनी वेवसायांचे दादले वेगवेगळ्या तरांचे फेटे बांदतात आनी तांकां तरेकवार नांवां दितात. कांय लोकांचे फेटे बरेच ऊंच आनी फुगीर आसतात. जाल्यार कांय फेटे घट्ट बांदिल्ले आनी बसके आसतात. हातुंतूय त्या त्या वाठाराप्रमाण फरक आसता. ब्राह्मणी पद्धतीच्या वांटकुळ्या फेट्यांतूय जायत्यो तरा दिश्टी पडटात. मराठा लोकांच्या घट्ट बांदिल्ल्या फेट्याक मुडासो म्हण्टात. संत तुकारामाचो फेटो आनी बिहारांतल्या मैथिली ब्राह्मणाचो फेटो हातूंत खूबशे सारकेपण आसा. फेट्याचो फुडलो भाग एके वटेन उंच आनी

दुसरे वटेन देंवतो आसलो की ताका पटका म्हण्टात. जाच्यो दोनूय वटो ऊंच आनी मदलो भाग खोल आसता ताका फेटो म्हण्टात. ताची एक वट कानामेरेन सकयल गेली की ताका साफा म्हण्टात. सरदार आनी संस्थानीक हांचे फेटे रूपान आनी आकारान वेगवेगळे आसून तांचे जायते प्रकार आसात. तांचीं नांवां कोशा, मंदिल अशीं आसा.

कुबेर आनी यक्ष हांचे तकलेर असो भेस दिश्टी पडटा. राजस्थानी फेटो १५-२० हात लांब आनी १हात रूंद आसता. फेट्याच्या वस्त्राचें एक पोंत मदीं खोयिल्लें आसता वा ताचो तुरो केल्लो आसता. तशेंच ताचें दुसरें तोंक फाटीर सोडिल्लें आसता. राजपूत झुजारी असो फेटो वापरताले. देखून तो लश्करी भेसाचो एक घटक जालो.

फेट्यांतूच रूमाल हो एक प्रकार आसा. हातूंत १२ हात लांब आनी रूंदायेचो कपडो घेवन तो कानां भोंवतणीं रेवाडून बांदतात. हाचे खंयचेंच पोंत मेकळें उरना. दक्षिण भारतांत अशे तरेचो रूमाल बांदतात. हो आकार खूब व्हड आसता. तमीळ भाशेंत ताका उरूमाली अशें म्हण्टात. ताचे वयल्यानूच रूमाल हें उतर आयलां आसूंक जाय. शिखांचो फेटोय रूमालावरी विशिश्ट तरेन बांदिल्लो आसता. फेट्याखातीर ते लोक चडसो रंगीत कपडो वापरतात.

सामान्य लोक सादारणपणान धवो फेटो वा रूमाल वापरतात. परबे वेळार मात ते वेगवेगळ्या रंगांचे आनी जरीचे रूमाल बांदतात. कुस्तीगीर, शाहीर हांचे फेटे व्हड आनी रूबाबदार आसतात. एकेवटेन कलिल्लो तांचो फेटो चड सुंदर दिसता.

मथुरेलागसार सनआदीं दुसऱ्या शतमानांतली बलरामाची मूर्त मेळ्ळ्या. तिचे तकलेवयलो भेस राजपुतांच्या साफ्यावरी उजव्या कानार आयिल्लो आसा.

– कों. वि. सं. मं.

**फेब्रुवारी :** ग्रेगरीयन पंचांगांतलो दुसरो आनी सगळ्यांत ल्हान म्हयनो. ह्या म्हयन्याक २८ दीस आसतात. पूण ४ वर्सांनी येवपी 'लीप' वर्सांत ताचे २९ दीस आसतात. रोम्युलस हाणें तयार केल्ल्या पोरण्या रोमी पंचांगांत वर्साचे मार्च ते डिसेंबर अशे १०च म्हयने आशिल्ले. न्युमा पाँपिलिअस हाणें इ.स. आदीं ७००च्या सुमाराक डिसेंबरा उपरांत फेब्रुवारी आनी जानेवारी हे दोन चड म्हयने घालून बारा म्हयन्यांचें एक वर्स केलें.

इ. स. आदी ४५२त रोमाचे कायदे करपी १० जाणांच्या मंडळान फेब्रुवारी आनी जानेवारी हांचो क्रम बदलून फेब्रुवारी हो बारावो म्हयनो केलो. तेन्ना ह्या म्हयन्याचे ३० दीस आसताले. फुडें ज्युलियस सीझर हाणें वर्साची सुरवात मार्चा बदला जानेवारी सावन धरपाक सुरवात केल्ल्यान फेब्रुवारी हो वर्साचो दुसरो म्हयनो जालो. उपरांत ज्युलियस आनी ऑगस्टस हाणीं फेब्रुवारींतलो एक एक दीस उणो करून तो आपआपल्या नांवावयल्यान वळखतल्या जुलय आनी ऑगस्ट ह्या म्हयन्यांनी घाले. ताका लागून फेब्रुवारीचे २८ दीस जाले. फुडें सौर वर्स भरून काडपाक दर ४ वर्सांनी फेब्रुवारींत एका दिसाचो आस्पाव करपाचो निर्णय घेतलो. सुरवेक हो चड दीस २४ तारखे आदीं घालताले. उपरांत फेब्रुवारी २९ तारखांचो म्हयनो मानूंक लागले. आदल्या तेंपार हो वर्साचो निमणो म्हयनो आशिल्लो देखून तो शुद्धीकरण संस्काराचो आनी मेल्ल्यांक आदार दाखोवपाचो म्हयनो अशें मानताले. ताका लागून शुद्धीकरण अर्थाच्या लॅटीन उतरावयल्यान ताचें फेब्रुवारी हें नांव पडलें. कांय जाणांच्या मतान हाचे १५ तारखे येवपी रोमन परबेच्या वेळार वापरतात तें फेब्रुआ हें वाद्य वा शुद्धीकरणाची रोमन देवता फेब्रुअस हिच्या नांवावयल्यान फेब्रुवारी हें नांव पडलें. अँग्लो-सॅक्सन लोक हाका 'केल मंथ' जाल्यार इंग्लंडांत हाका 'फिल-डायक' म्हण्टाले. फेब्रुवारीचे २ तारखेर रोमन कॅथलीक लोक कँडल मास दीस आनी १४ तारखेक कांय देशांनी वॅलँटायन दीस मनयतात. जमुनिया (ॲमेथिस्ट) हें फेब्रुवारीचें रत्न आनी प्रिमरोझ वा व्हायोलेट हें ह्या म्हयन्याचें फूल मानप जाता. हिंदू पंचांगा प्रमाण फेब्रुवारी सादारणपणान माघ-फाल्गून म्हयन्यात येता. फेब्रुवारीच्या १२-१३ तारखेर सूर्य कुंभ राशींत प्रवेश करता.

– कों. वि. सं. मं.

**फेरनांद, फ्रँक :** (जल्म : ३ मे १९१९ सावड्डें).

नामनेचो संगीतकार. ताणें सावड्डेच्या सरकारी मुळावे शाळेंतल्यान सेगुंद ग्राव हें पुर्तुगेज मुळावें शिक्षण पुराय केलें. उपरांत मडगांवच्या लॉयला स्कुलांतल्यान इंग्लीश चवथी मेरेनचें शिक्षण घेतलें. फुडें मुंबय ताडदेवाक दाँ बोश्को हायस्कुलांतल्यान मॅट्रीक केली. पिरायेच्या बारा वर्सासावन तो वायोलिन वाजयतालो. ताचें वायोलीन आयकून एका धंदेवाईक संगीत पंगडान ताका आपल्या पंगडांत घेतलो. १९४० सावन तो ह्या संचांत ट्रम्पेटूय वाजयतालो. कांय ख़ेपे तो ट्रम्पॅटा वांगडा सिंफोनी वाजयतालो.

१९३८ वर्सासावन तो 'बाटा शू कंपनींत' नोकरी करूंक लागलो. फाविल्ल्या वेळांत तो मुंबयच्या मॅजेस्टीक हॉटेलांत वायोलीन आनी ट्रम्पॅट वाजयतालो. १९३८त तो 'ओदोरा बँडांत' ट्रम्पॅट वाजोवपी म्हणून गेलो. ह्या बँडात आसतना ताका खुबूच नामना मेळ्ळी आनी भायल्या वाद्यवृंदाकडल्यान ताका आपोवणें आयलें. 'रूडी कॉरोन्स' हांच्या आपोवण्याक मान दिवन १९४१ ते १९४७ मेरेन दिल्लीक वचून ताणें तांचेखातीर काम केलें. १९४७ वर्सा नागरी झुजाक सुरवात जातकच तो दिल्लीच्यान मुंबय आयलो. १९५० वर्सा ताणें सिनेमाच्या मळार पावल दवरलें आनी ताका सुमाराभायर नामना मेळ्ळी. बरसात की रात, आवारा आदी जायत्या सिनेमांनी ट्रम्पॅट वाजोवन त्या सिनेमांतल्या पदांक ताणें नामना मेळोवन दिली. एस. डी. बर्मन, रोशन, अनील विश्वास, रवी, कल्याणजी आनंदजी हांकां ताणें तोखणाय करपासारकें संगीत सहाय्य दिलां.

'आमचें नशीब' आनी 'निर्मोण' ह्या कोंकणी सिनेमाक संगीत ताणेंच दिल्लें. निर्मोण ह्या सिनेमाच्या संगीताक इंदिरा गांधीकडल्यान ताका इनाम फावो जालां. सिनेमा आनी तियात्रांनी संगीत दिवन फ्रँक फेरनांदान संगीत क्षेत्राच्या मळार मोलादीक वावर केला.

– कों. वि. सं. मं.

**फेर्नांदीश, आंजेलो इनोसेंट :** (जल्म : वड्डें कांदोळी, बारदेस).

दिल्लीचो पयलो गोंयकार आर्चबिशप. ताचें घराणें मूळ खांडोळें बारदेसचें. पूण ताची फामील कराचीक आसताली. ताचें शिक्षण कँडीक जालें. १९३७त धर्मीक शिक्षण घेतले उपरांत तो पाद्री जालो. १९५९त दिल्लीक आर्चबिशप म्हणून ताची नेमणूक जाली. ताणें जायत्यो भोंवड्यो

केल्यात. तशेंच, जायत्या परिशदांनी आनी संमेलनांनी वांटो घेतला. ताणें कांय धर्मीक, कुटुंबीक, उदरगत, कायदो आनी शांतताय आदी विशयांवयलीं पुस्तकां उजवाडाक हाडल्यांत. १९७० ते १९८४ ह्या काळांत 'धर्म आनी शांततायेचे संवसारीक परिशदेचो' तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९७४त स्थापन जाल्ले न्युयॉर्क हांगाचे 'प्लॅनेटरी सिटीझन्स' हे संस्थेचो तो संस्थापक वांगडी आशिल्लो. दिल्लीक आर्किडायोसी खातीर ताणें मोलादीक वावर केला.

– कों. वि. सं. मं.

**फेर्नांदीस, आंतोनियु कोंसेसाव :** (जल्म : ८ डिसेंबर १९३६, कुंकळ्ळी साश्ट).

सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. १९५४-६० मेरेन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तशेंच १९६१-६४ मेरेन 'इंडियन नॅशनल कॉंग्रेस' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. २४ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा फोंडेंच्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो, मारलो आनी ५ वर्सां आग्वाद बंदखणींत सादे बंदखणीची ख्यास्त भोगूंक धाडलो. साडेतीन वर्सां ख्यास्त भोगले उपरांत ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**फेर्नांदीश, आल्फ्रेड :** (जल्म : साळगांव, बारदेस; मरण : १९८३, धारवाड).

अहमदाबाद हांगाचो पयलो गोंयकार बिशप. १९४१त ताची पाद्री म्हणून नेमणूक जाली. १९६७त शिमला-चंदीगढाक पयलो भारतीय बिशप म्हणून ताका नेमलो. १९७०त ताची अलाहाबादेक बदली जाली. १९७५त ताणें ह्यां वावराची सोडचीट दिली.

– कों. वि. सं. मं.

**फेर्नांदीश, आल्बर्ट एल. आर. :** (जल्म : १३ डिसेंबर १९३२, कुंकळ्ळी - साश्ट).

सुटकेझुजारी. ताणें मॅट्रीक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' संघटनेच्या नांवाखाल ताणें २८ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा फोंडे वाठारांत सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. त्याच दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब त्रास दिले. ताका प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून जुलय १९५५त पांच वर्सां खरं बंदखण फर्मायली. चार वर्सां बंदखण भोगले उपरांत ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. ८ जानेवारी १९७४त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**फेर्नांदीश, जेम्स :** (जल्म : २० मार्च १९३३, अस्नोडें बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें एम.ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. सुटके चळवळीच्या काळांत तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटकेझुजारी पिटर आल्वारीस हाच्या मार्गदर्शनाखाला अस्नोडें, हळर्ण, चोडण, सांत-इस्तेव आनी शिवोली ह्या वाठारांतल्यान वांगडी एकठांय करपाचें काम ताणें केलें. १९ मार्च १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार ताका उबो करून १० वर्सां खर बंदखण आनी चार वर्सां सादे बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १९५९ वर्सा आग्वाद बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. १९७२त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**फेर्नांदीश, डॉ. मान्युएल इश्तेवांव :** (जल्म : १५ डिसेंबर १९२४, कालापूर, तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. ताणें वैजकीचें (मॅदिकु सिरूरजियांव मेरेन) शिक्षण घेतलें. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' आनी 'गोवा लिबरेशन आर्मी' ह्या संघटनांचो तो वावुरपी वांगडी आशिल्लो. तशेंच हेर राजकीय संस्थांखातीरूय तो अप्रत्यक्षपणान वावर करतालो. हाचे भायर राजकीय बसकांनी वांटो घेवप, सत्याग्रह्यांक आदार दिवप असलीं कामां तो करतालो. फेब्रुवारी १९५६त मडगांव पोलीस ठाण्याचेर बॉम घालपांत उरसेलिनु आल्मेदा हाचे वांगडा ताचोय म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. १८ जून १९५६दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो केलो. तेन्ना ताका साडेतीन वर्सांखातीर आग्वाद बंदखणींत ख्यास्त फर्मायली. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**फेर्नांदीश, मार्क आगुश्तिनु :** (जल्म : २८ मे १९२६ बलुचिस्तान; मरण : २० ऑगस्ट १९७८, पणजी).

गोंयचो सुटकेझुजारी. आनासेल्मो इश्तेवां फेर्नांदीश हो ताचो बापूय.



तार्चे शिकप सिनियर कॅंब्रीजांत (कराची) जालें. तो कुवेतांत तेलाचे संस्थेंत काम करतालो. पूण थंय ताणें गोंयच्या कामगारांची संघटना घडोवन हाडली, म्हणून थंयच्या अधिकाऱ्यांनी धांवडायलो. तो १९४६त मुंबय आयलो आनी ताणें 'यंग पायोनीयर लिटररी क्लब' ही संघटना घडोवन हाडली. तो १९५१त गोवन युथ लिगाचो (GYL) वांगडी आशिल्लो. तशेंच तो १९५१त युनायटेड फ्रंट ऑफ गोवन्स (UFG) चो जोड चिटणीस जालो.

तो १५ ऑगस्ट १९५४ दिसा १२ जाणांचो सत्याग्रही पंगड घेवन

बांदा आनी तोरशेंच्यान (पेडणें तालुक्यांतल्यान) भितर सरलो. ताका न्हंयबागेंत बाकिच्यावांगडा धरलो आनी पणजी पुलीस ठाण्यार व्हेलो. प्रदेशीक लश्करी न्यायालयान ताका १८ एप्रिल १९५५ दिसा ८ वर्सां खर ख्यास्त आनी पंदरा वर्सां ताचे राजकीय हक्क काडून घेवंचे म्हणून फर्मायलें. सुरवेक ताका आग्वाद बंदखणीची आनी उपरांत ३ जून १९५५ दिसा रेयश मागुश बंदखणींत घालो.

१६ ऑक्टोबर १९५९ ताका बंदखणींतल्यान सोडलो. ताचो गोंय सरकारान १८ जून १९८४ दिसा मानपत्र दिवन मरणोत्तर भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**फेर्नांदीश, मिनीनु कायतान :** (जल्म : २३ डिसेंबर १९३७, कोलवें).

सुटकेझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो: पत्रिका वांटप, पत्रकां लावप असलीं कामां तो करतालो. पुर्तुगेज पोलिसांनी पाळी-उसगांव वाठारांत ताका धरलो आनी साडेतीन वर्सां बंदखणीची खर ख्यास्त फर्मायली. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**फेर्नांदीश, रुझारियु :** (जल्म : १६ मार्च १९३१, असोळणें, साश्ट).

सुटकेझुजारी. १९५१ वर्सासावन ताणें राश्ट्रीय चळवळींत वांटो घेवंक सुरवात केली. 'नशॅनल काँग्रेस गोवा' संघटनेच्या मुंबय फांट्याचो कार्यकारी म्हणून ताणें चार वर्सां काम केलें. वामन सरदेसाय हाच्या फुडारपणाखाल ताणें दादरा नगर हवेली सुटके चळवळींत वांटो घेतिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा मार्क फेर्नांदीश हाच्या फुडारपणाखाल तोरश्यां (पेडण्यां) जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी सात वर्सांखातीर बंदखणींत घालो. रेयश मागुश आनी आग्वाद बंदखणींनी ख्यास्त भोगतकच १९५८त ताची सुटका जाली. सद्या तो समाजसेवेचें काम करता. १८ जून १९८९ ह्या दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**फर्नांदीश, रेमो :** (जल्म : ८ मे १९५३, पणजी).

जे. जे. कॉलेज ऑफ आर्किटेक्चर मुंबय म्हाविद्यालयांतल्यान 'बॅचलर ऑफ आर्किटेक्चर'ची पदवी ताणें मेळयली.

ल्हानपणासावन ताका संगिताचो छंद आशिल्लो. विंगड विंगड वाद्यां तो वाजयतालो. पिरायेच्या १४व्या वर्सा ताणें स्वतःच संगिताची रचना करपाक सुरवात केली. १९६८त ताणें 'द बीट-४' हो पॉप वाद्य मेळ तयार केलो. 'द सॅव्हेज' ह्या मुंबयच्या रॉक ग्रुपाच्या आदारान १९७२त पॉलिडोर कंपनीन ताची ध्वनीमुद्रिका काडली. तशेंच १९७७त फ्रँच ग्रुप रॉक 'सिनर्जी'च्या पालवान 'पॉलिडोर' (फ्रँच) कंपनीनय ताची ध्वनीमुद्रिका काडली.

१३ जानेवारी १९८५ दिसा 'मिशेल' नांवाच्या फ्रँच तरणाटेकडेन ताणें लग्न केलें.

१९८६त 'पॅक देट स्मॅक', १९८७ त 'बॉम्बे सीटी' हे ताचे गीताचे आल्बम भायर सरले आनी लोकांनी ते माथ्यार घेतले.

श्याम बेनेगलच्या 'त्रिकाल' आनी गुल आनंदच्या 'जलवा' चित्रपटाखातीर ताणें आपलो आवाज दिला. 'लेहर पेप्सी' ची ताची जायरात बरीच गाजली.

आपल्या 'गोवाना' हे कंपनीच्या टी शर्टस आनी पोस्ट कार्डांची रेखाटनाय ताणें केल्यांत.

१९८०त 'लॉडस' हो ताचो कविताझेलो उजवाडा आयलो.

देशांत आनी देशाभायर बऱ्याच सुवातींनी ताणें आपल्या गायनाच्यो, संगिताच्यो कार्यावळी केल्यात आनी तो तुस्त तोखणायेक प्राप्त जाला.

इंडियन जेसीन १९८५तले धा दिग्गज भारतीयांतलो एक म्हणून ताची निवड करून ताचो भोवमान केला.

उदेंत जर्मनींत १९८६त १५व्या आंतरराश्ट्रीय पॉप गीत उत्सवांत, त्या उत्सवाचो बरो कलाकार तशेंच लोकांनी वाखाणलेलो कलाकार म्हणून ताका इनामां लाबल्यांत. अस्तंती आनी भारतीय संगिताचो मेळ (Fusion) घालून ताणें निर्माण केल्ली संगीत निर्मिती खूब लोकप्रिय जाल्या.

– डॉ. बेलिंदा फेर्नांदीश

**फेर्नांदीश, सेबाश्तियांव मातीयाश :** (जल्म : मातीयश, दिवाडी; मरण : १९८५ म्हैसूर).

म्हैसूरचो पयलो भारतीय बिशप. ताणें आपलें धर्मीक शिक्षण राशोल सेमिनारींत घेतलें. १९४४त ताची पाद्री म्हणून नेमणूक जाली. १९६४त तो बिशप जालो.

– कों. वि. सं. मं.

**फेर्मी, एन्रीको :** (जल्म : २९ सप्टेंबर १९०१, रोम; मरण : २९ नोव्हेंबर १९५४, शिकागो).

नामनेचो इटालियन-अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ. १९२२त ताणें पीसा विद्यापिठाची भौतीकशास्त्र विशयांतली डॉक्टरेट मेळयली. १९२३त ताणें इटालियन सरकाराची शिश्यवृत्ती मेळयली आनी गटिंगेन विद्यापिठांत माक्स बोर्न हाच्या मार्गदर्शना सकयल संशोधन केलें. उपरांत १९२४त रॉकफॅलर शिश्यवृत्ती मेळयतकच लायडन विद्यापिठांत ताणें पॉल एव्हॅरॅनफॅस्ट हाचे वांगडा काम केलें. त्याच वर्सा तो फ्लॉरॅन्स विद्यापिठांत गणितीय, भौतिकी आनी सैद्धांतिक यामिकी हे विशय शिकोवपाक लागलो. १९२७-३८ ह्या काळांत तो रोम विद्यापिठांत सैद्धांतिक भौतिकीचो प्राध्यापक जालो.

फ्लॉरॅन्साक आसतना १९२६ त ताणें नीच तापमानाक वायूच्या रेणूंच्या वर्तनाची गणितीय विस्कटावणी करपाखातीर सांख्यिकीय नेम सोदून काडले. ह्या नेमांक 'फेर्मी-डिरॅक सांख्यिकी' ह्या नांवान वळखतात आनी हे सांख्यिकीक पाळो दिवपी कणांक (देखीक - इलॅक्ट्रॉन, प्रोटॉन) 'फेर्मिऑन' अशें म्हण्टात. रोमाक ताणें पुंज विद्युत् गतिकींतल्या आनी आणवीय, रेणवीय आनी अणुकेंद्रीय वर्णपट विज्ञानांतल्या वेगवेगळ्या सैद्धांतिक समस्याविशीं संशोधन केलें. १९३४त ताणें अणुकेंद्रीय बीटा उत्सर्जनान जावपी क्षयाविशींचो म्हत्वाचो सिद्धांत मांडलो. न्युट्रॉनांच्या

भडिमारान तयार जाल्या नव्या किरणोत्सर्गी मुलद्रव्यांचें अस्तित्व दाखोवन दिल्ले खातीर आनी मंदगती न्युट्रॉनांवरवीं संबंदीत अणुकेंद्रीय विक्रिया सोदून काडिल्लेखातीर ताका १९३८त भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

१९३९त, कोलंबिया विद्यापिठांत भौतीकशास्त्रचें प्राध्यापकपद मेळटकच तो अमेरिकेक गेलो. युरेनियमाच्या भंजनाचें लश्करी म्हत्व वळखून ताणें अमेरिकी सरकाराक अणुबाँब येवजण हातांत घेवपांत म्हत्वाचो पालव दिलो. सुरवेक कोलंबिया विद्यापिठांत अणुकेंद्रीय उर्जा नियंत्रीत स्वरूपांत मेळोवपाखातीर भंजन विक्रियेचे सरपळेची येवजण करपाविशीं ताणें संशोधन केलें. २ डिसेंबर १९४२ दिसा पयली नियंत्रीत भंजन विक्रिया सरपळी फेर्मी हाच्या मार्गदर्शना सकयल घडोवन हाडली. हे विक्रिया सरपळेचो काळ ४० मिनटां आशिल्लो आनी तिचेपसून मेळपी चडांत चड शक्त फकत ०.५ वॅट आशिल्ली. ही घडणूक म्हळ्यार अणुयुगाची सुरवात अशें मानतात.

लॉस ॲलॅमॉसांत अणुबाँब तयार करपाच्या वावरांतूय ताणें वांटो घेतलो. १९४४त ताणें अमेरिकेचें नागरिकत्व मेळयलें. १९४५त तो, शिकागो विद्यापिठाच्या 'इन्स्टिटयुट फॉर न्युक्लिअर स्टडीस' हे संस्थेंत प्राध्यापक जालो. थंय ताणें उंचेले उर्जा भौतिकींत संशोधन केलें.

१०० अणुक्रमांच्या कृत्रीम मूलद्रव्याक फेर्मी हाच्या भोवमानाखातीर 'फेर्मियम' हें नांव दिलां. फेर्मी हो इटलीची रॉयल ॲकॅडेमी, अमेरिकेची नॅशनल ॲकॅडमी ऑफ सायन्सीस, इंग्लंडची रॉयल सोसायटी आनी हेर कितल्याशाच विज्ञानीक संस्थांचो वांगडी आशिल्लो. १९५४त, ॲटॉमिक एनर्जी कमिशनाचें ५०,००० डॉलरचें एक खास इनाम ताका मेळ्ळें. हें इनाम आतां ताच्याच नांवान दितात. ताचें सगळें संशोधनात्मक बरप एमील्यो सेग्रे आनी हेर शास्त्रज्ञांनी संपादित करून १९६२-६५त दोन खंडांनी उजवाडायलें.

- कों. वि. सं. मं.

**फेस्त** : क्रिस्तांव समाजाच्या इगर्जांनी जावपी धर्मीक जात्रेउत्सव. फेस्त हें पुर्तुगेज उतर. ताचो अर्थ मेजवानी असो जाता. सद्याचे फेस्त हे संकल्पने फाटल्यान मेजवानी वांगडाच, धर्मीक सोपस्कार, नाचगाण्यासारक्यो मनोरंजनाच्यो कार्यावळी, मिरवणूक हांचो आस्पाव जाता. कांय फेस्तां हीं सार्वजनीक फेस्तां आसतात आनी तीं भोवतेक सगळ्याच क्रिस्तांव मंदिरांनी मनयतात. कांय फेस्तां हीं ते ते इगर्जेचीं, कपेलाचीं वा तत्सम धर्मीक संस्थांचीं आसतात. दर एका फेस्ताक ल्हान व्हड प्रमाणांत संवसार उपेगी वस्तूंची फेरी (बाजार) भरता. फेस्तापयलीं णव दीस फाम (Fame) जाता. फाम म्हळ्यार प्रसिद्धी, म्हणजेच पूर्वतयारी. ह्या णव दिसांक नोव्हेनां म्हण्टात. हे णवूय दीस इगर्जेंत प्रार्थना चलता आनी थंय खोजने (गर्नाळ) पेटयतात.

गोंयांतल्या मुखेल शारांतल्या इगर्जींनी मे म्हयन्यांत जी फेरी भरता तिका पुरूमेंताची (सांठो) फेरी म्हण्टात. ज्या फेस्ताच्या निमतान ही फेरी भरता ताका पुरुमेताचें फेस्त म्हण्टात. अशा फेरयांनी पावसाळ्यांत वापरपाखातीर सुक्यो मिरसांगो, कांदे, सोलां, मीठ, सुकें नुस्तें (खारें), मसाले, मातयेचीं आयदनां सारक्यो वस्तू विकपाक दवरतात.

गोंयचीं मुखेल फेस्तां अशीं - पोरण्यां गोंयां सेंट झेव्हियराचें फेस्त, पणजी मॅरी इमॅक्युलेट सायबिणीचें फेस्त, म्हापशेचें मिलाग्र सायबिणीचें फेस्त, मडगांवचें मॅरी इमॅक्युलेट सायबिणीचें फेस्त आनी नावेलीचें रोझरीचें फेस्त.

- कों. वि. सं. मं.

**फैयाझखाँ** : (जल्म : ८ फेब्रुवारी १८८१, सिकंदराबाद; मरण : ५ नोव्हेंबर १९५०, बडोदें).

हिंदुस्थानी संगितांतलो एक प्रतिभाशाली गायक. सबदर हुसेनखाँ हो ताचो बापूय. ताच्या आवय-बापायच्या दोनूय घराण्यांकडल्यान गायकीचो बळिश्ट वारसो ताका मेळिल्लो. तो आपल्या बापायवटेन रमझानखाँ हाचो पणटू आनी आवयवटेन आग्रा घराण्याचो गग्गे खुदाबक्ष हाचोय पणटू. ताचो मातूल घराण्यांतलो आजो उस्ताद गुलाम अब्बासखाँ हो गुरू. तशेंच जायत्या नामनेच्या गायकांचें गायन आयकून आनी अभ्यास करून फैयाझखाँ हाणें आपणाची अशी खास गायकी घडयली.

१९०६ वर्सा म्हैसूरच्या महाराजा कडल्यान ताका भांगरा पदक मेळ्ळें. तेखेरीज 'आफताब-ए-मुसीकी (संगित-भास्कर) हो किताब म्हैसूर सरकारान ताका दिलो.

होरी-धृपद ते ठुमरी-गझली मेरेन सगळे तरेंचीं पदां तितल्याच प्रभुत्वान आनी भावपूर्णतायेन गायिल्ल्यान ताका 'चतुरंग गवय' अशेंय म्हणून वळखताले. 'प्रेमप्रिया' ह्या टोपण नांवान ताणें खुबशो चिजो बांदल्यात. १९१२ वर्सासावन तो बडोदें संस्थानाचो दरबार-गवय आशिल्लो.

ताचे गायकीचें दायज फुडें चलोवपी ताचे कांय नामनेचे शिश्य अशे - हुसेन खाँ, बशीर महंमद खाँ, स्वामी वल्लभदास, अझमत हुसेन खाँ, लखनौच्या मॉरिस कॉलेजाचे प्राचार्य रातंजनकर, शराफत हुसेन खाँ, मलकाजान, खादिम हुसेन खाँ.

- कों. वि. सं. मं.

**फोंडा** : गोंय राज्याच्या दक्षिण जिल्ह्यांतलो एक म्हत्वाचो तालुको आनी शार. फोंडा तालुको गोंय राज्याच्या मदीं आसून, ताचे उत्तरेक दिवचल; ईशान्येक सत्तरी; उदेंतेक सांगें; दक्षिणेक केपें; अस्तंतेक मडगांव आनी मुरगांव तर वायव्येक तिसवाडी तालुके आसात. मडकय, बांदोडें, वाडी-तळावली, कुंडय, भोम, अडकोण, बेतकी, खांडोळा, दुर्भाट, आगापूर, शिरोडें, बोरी, पंचवाडी, बेतोडें, निरंकाल, सावयवेरें, वाघुर्मे, कवळें, तिवरें, केरी, वळवय, वेलींग, प्रियोळ, खांडेपार, कुर्टी, उसगांव आनी गांजें हे त्या तालुक्यांतले मुखेल गांव.

आदीम काळांत अंत्रूज म्हणून प्रसिद्ध आशिल्ल्या फोंडा म्हालाची पोरणी म्हायती स्पश्टपणान मेळना. पूण त्या तालुक्यांतल्या वेगवेगळ्या गांवांनी सांपडील्ल्या भग्न अवशेशांवयल्यान आनी गोंयच्या पुर्विल्ल्या इतिहासाचो बारीकसाणेन अभ्यास केल्यार आदल्या कांय राजांचो प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्षपणान त्या म्हालाचेर शेक चलतालो हें सिद्ध जाता. मध्यकाळांत त्या म्हालाचेर मुसलमानांची राजवट आशिल्ली. इ.स. १५००त बहामनी राजां भितर कबलात जावन ताणीं दख्खन प्रांत आपल्या भितर वांटून घेतलो. बेळगांव, दक्षिण कोंकण आनी भोंवतणचे प्रांत बिजापूरच्या युसूफ आदीलशाहाक मेळ्ळे. तातूंत गोंयचोय आस्पाव आशिल्लो. युसूफ आदीलशाहाची सत्ता येवचे पयलीं फाटलीं पन्नास वर्सांसुमार गोंयाचेर

सुभेदार शाबाजीचो शेक चलतालो. गोंयचो ताबो घेतल्या उपरांत आदीलशाहान आपलो दक्षिण कोंकणाचो राज्यकारभार वेवस्थित चलोवपाखातीर दाभोल गांवांत आपली मुखेल कचेरी उभारली. ताणें त्या म्हालाची खूब सुदारणा करून, थंयची चडशी पडींग जमीन शेतवडीखाला हाडली. दाभोळ म्हालाचे कुडाळ आनी राजापूर अशे दोन विभाग केल्ले. फोंडा आनी पांचम्हाल हे कुडाळचे वांटे आशिल्ले. उपरांत फोंडा ही दुस्मानाआड डावपेच रचपाची वा झूजपाची बरी सुवात आसा हें जाणून आदीलशहान थंय किल्लो बांदलो. पुर्तुगेज गोंयांत आयल्या उपरांत १५४९त गव्हर्नर जुंवांव दे कास्त्रो हाणें फोंडा म्हालाचेर घुरी घालून थंयचो किल्लो कांय प्रमाणांत मोडून उडयलो.

मोगल सरदार मिरजा राजे जयसिंग हाचेकडेन शिवाजीन म्हत्वाची कबलात केल्या उपरांत, मराठा राज्याचो विस्तार दक्षिणेक करपाच्या

किल्ल्याचें नांव ताणें मर्दनगड अशें दवरलें. मोगल सैन्यान संभाजीचो पराभव केल्या उपरांत फोंडा म्हालूय मोगलांच्या शेकातळा गेलो. औरंगजेबान संभाजीची क्रूरपणान हत्या केल्या उपरांत साबार मराठा सरदार एकठांय येवन ते मोगल सैन्याआड झुजपाक लागले. मुखार १७०२त मराठ्यांनी फोंडा म्हालाचेर परतून घुरी घाली. पूण मोगलांक पुर्तुगेज, सोंदेकार राजा आनी थळावो सरदार खेमू सावंत हाणीं आदार केल्ल्यान फोंडा म्हाल मोगलांच्याच शेकातळा उरलो.

उपरांत पुर्तुगेजांचे मध्यस्थीन सुरवेच्या काळांत मोगलांचो आनी औरंगजेबाच्या मरणाउपरांत शाहू म्हाराजाचो मांडलीक म्हणून सोंदेकार राजा फोंडा म्हालाचेर शेक गाजवपाक लागलो. सोंदेकाराची सत्ता वाडत गेली, तशें ताणें मराठ्यांक खंड दिवपाचो बंद केलो. हाका लागून मराठ्यांनी तो परतून आपल्या शेकातळा व्हेलो. मराठ्यांचें बळगें दिसांन






हेतान ताणें आपली मोख कोंकणाकडेन वळयली. आदीलशाहाच्या शेकातळा आशिल्ल्या साबार कोंकण प्रांताचेर घुरी घालून ताणें ते आपल्या शेकातळा हाडले. १६६६त शिवाजीन आदीलशाहाच्या शेकातळा आशिल्ल्या फोंडा म्हालाक रेवाडो घालो. पूण पुर्तुगेजांच्या आदारान आदीलशाहान तो रेवाडो मोडून उडयलो. १६७५त शिवाजीन परतून फोंडा म्हालाचेर घुरी घालून तो आपल्या शेकातळा हाडलो. शिवाजी उपरांत ताचो चलो संभाजी हाणें पुर्तुगेजांच्या गोंयच्या कांय प्रांताचेर घुरयो घाल्यो. ताचो बदलो घेवपाक म्हणून पुर्तुगेजांनी फोंडा म्हालाचेर घुरी घाली. पूण संभाजीन तांचो पराभव केलो. उपरांत ताणें फोंडेचो मोडूंक पाविल्लो किल्लो पुरायपणान मोडून उडोवन ते सुवातेर नवो किल्लो उभारलो. नव्या

दीस वाडत आसा ते जाणून पुर्तुगेजांनी भोसलेच्या आदारान फोंडा म्हाल मराठ्यांकडच्यान घेवन, तो नवे कबलातीवरवीं परतून सोंदेकाराचे सुवादीन केलो. १७६३त म्हैसूरच्या हैदर अलीन सोंदेकार राजाचो पराभव करून ताचे सगळे प्रांत आपल्या शेकातळा दवरले. अशे रितीन फोंडा म्हालूय हैदरच्या शेकातळा गेलो. उपरांत फोंडा म्हालाच्या खंडावयल्यान मराठा आनी हैदर अली हांच्यात व्हड वाद सुरू जालो. तांचो वाद चालू आसतनाच आपलें राज्य हैदर अलीकडच्यान घेवपाखातीर सोंदेकार राजान पुर्तुगेजांचो आदार घेतलो. ताच्या बदलाक ताणें फोंडा, जांबावली, काकोडें, बाळ्ळी, काणकोण हे प्रदेश पुर्तुगेजांक दिवचे केले. अशे रितीन १७९१त हेर प्रांतावांगडा फोंडा म्हालूय पुर्तुगेजांच्या शेकातळा गेलो.

पुर्तुगेज वसाहतकार गोंयांत आयले तेन्ना, सुरवेचीं कांय दशकां तांच्या शेकातळा फकत इलास (तिसवाडी), बार्देस आनी सालसेत म्हाल आशिल्ले. तांच्या वांगडा वेगवेगळ्यो मिशनरीय आयिल्यो. गोंयांत येनाफुडे त्या मिशनरींनी थळाव्या लोकांक बाटोवपाचो वावर नेटान सुरू केलो. बाटोवपाचो वावर चालींत हाडपाखातीर ते थळाव्या हिंदू लोकांक खूब त्रास करपाक लागले. हाका लागून त्या तीनूय म्हालांतले लोक आपआपल्या कूळदेवतांक वा ग्रामदेवतांक घेवन फोंडा म्हालांत आयले. उपरांत त्या लोकांनी थंय आपआपल्या देवतांचीं देवळां उभारलीं. हाका लागून फोंडा तालुक्यांतल्या वेगवेगळ्या गांवांनी सद्या शंबरांवयर देवळां पळोवपाक मेळटात.

१९०५त पुर्तुगेज सरकारान गोंय नकाशा संबंदी केल्ल्या सर्वेक्षणांत फोंडा शाराचो उल्लेख नाशिल्लो. सद्या फोंडा म्हणून प्रसिद्ध आशिल्ल्या शाराचो चडसो वाठार कवळ्यां गांवचो (Aldeia de Queula) एक भाग आशिल्लो. त्या नकाशांत फोंडा म्हालाचें वा गांवाचें वेगळी कोमुनिदाद म्हणून वा खंडवसुली वळेरींत नांव नाशिल्लें. त्या तेंपार कवळ्यां गांवाक जोडून आशिल्लो दुर्भाट गांव हेंच त्या भागांतलें मुखेल वेपारी केंद्र आशिल्लें. त्या काळांत सद्याचो दुर्भाट गांव दुर्भाटवाडी म्हणून प्रसिद्ध आशिल्लो. विसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक लेगीत दुर्भाटवाडीची लोकसंख्या फोंडा शारापरस चड आशिल्ली. दुर्भाटवाडीची लोकसंख्या थंय आशिल्ली भातकांडपाची आनी पिठ दळपाची गिरण, घाणो, हातमाग, बाजारपेठ ह्या सगळ्यां वयल्यान त्या तेंपार फोंडा शाराच्या भोंवतणच्या वाठाराचे दुभार्टवाडीच एक मुखेल व्यापारी केंद्र आशिल्ल्याचें सिद्ध जाता. फोंडा गांव त्यावेळार मुखेलपणान शेतकामत्याचोच गांव आशिल्लो. तेल काडपाक, भात कांडपाक वा हेर सामान घेवपाक आनी विकपाक फोंडेच्या लोकांक दुर्भाटवाडी होच बाजार लागीचो आशिल्लो अशें सांगतात.

मध्ययुगांत आदिलशाहान उबारिल्लो किल्लो आनी उपरांत तेज सुवातेर संभाजीन उबारिल्लो मर्दनगड किल्लो हाका लागून फोंडा गांवाक राजकीय म्हत्व प्राप्त जालें. पूण त्या तेंपार फोंडा गांवची व्हडलीशीं सुदारणां जाली ना. फकत डावपेचाचें केंद्र आनी झुजांमळ म्हणून त्या म्हालाचो उपेग जालो. नवे काबीजादींत फोंडा म्हाल पुर्तुगेजांचे सत्तेखाल आयले उपरांत ताणीं भोंवतणच्या वाठारांतलें फोंडा हें आपलें मुखेल कारभारी केंद्र केलें. मामलेदार, न्यायालय, नगरपालीका ह्यो तालुका कचेरी तशेंच पोस्ट कचेरी थंय सुरू केल्यो आनी ताका शाराचो दर्जा दिलो. ताणीं आठवड्याचो बाजारूय थंय सुरू केलो. पणजेसावन मडगांव वचपी मुखेल रस्तो फोंडा शारांतल्यान गेल्ल्यान त्या शाराचें म्हत्व वाडत गेलें. उपरांत बेळगांव वचपीय रस्तो फोंडा शाराक जोडलो. मागीर ल्हव ल्हव करून भोंवतणच्या गांवचे ल्हान ल्हान रस्ते फोंडा शाराक जोडिल्ल्यान दुर्भाटवाडीचे म्हत्व आपसुकूच उणें जालें. येरादारीची सुदारणां, आठवड्याक दोन खेपे भरपी बाजार, घरां बांदपाक शारा भोंवतणीं आशिल्ली उकती सुवात, वेपार पेठ आनी वाडटें उद्देगीकरण हाका लागून फोंडा शाराचें म्हत्व वाडतूच गेलें.

आदल्या तेंपार गोंयांत तीन वैदिक पाठशाळा आशिल्लो. तातूंतली एक कवळेच्या मठांत आशिल्ली. ते पाठशाळेंत गणित आनी धर्मीक शिक्षणाचेर चड भर दिताले. दादा वैद्य हाणें आपलें मुळावें शिक्षण तेच पाठशाळेंतल्यान घेतिल्लें. मुखार दादा वैद्यान कवळें-कपिलेश्वर देवळांतले अग्रशाळेंत इंग्लीश माध्यमिक शाळा सुरू केली. ते शाळेचें नांव ताणें 'विद्याप्रसारक मंडळ' अशें दवरलें. फोंडा शाराची सुदारणां जाली तशी ती शाळा फोंडा हाडली. सद्या ती शाळा ए. जे. आल्मेदा ह्या नांवान प्रसिद्ध आसा.

गोंयच्या हेर तालुक्यांपरस फोंडा म्हालांत चड देवळां आसा तशेंच नाट्य, कला आनी संगीत मळारूय ह्या म्हालांतल्या कांय कलाकारानी गोंयांक नामना जोडून दिल्या. देखून 'कांय लोक फोंडा म्हालाक गोंय राज्याची 'संस्कृतीक राजधानी' अशें म्हण्टात.

**म्हालांतलीं कांय प्रसिद्ध देवळां** - नागेश आनी महालक्ष्मी (बांदोडें); रामनाथ (रामनाथी); शांतादुर्गा (कवळें); नवदुर्गा (मडकय, कुंडय, बोरी, खांडेपार); गणपती (खांडोळें, फर्मागुडी); देवकीकृष्ण रवळनाथ (माशेल); म्हाळसा (म्हाड्डोळ); मंगेश (मंगेशी); अनंत (सावयवेरें); कामाक्षी (शिरोडें); लक्ष्मीनृसिंह (वलिंग); विजयादुर्गा (केरी); कपिलेश्वर (कपिलेश्वरी), शापूर-फोंडेची साफा मशीदूय प्रसिद्ध आसा.

**लोकोत्सव** - प्रियोळचो हिंदू-गावडा जागोर; म्हाड्डोळचो शिगमो आनी जायांपुजा; माशेलचो चिखलकालो; मडकयचो रथोत्सव; कवळेंचो केर; बोरयचीं दिवजां; रामनाथी आनी नागेशीचो सांगोड आनी बांदोडेची तोक्या जात्रा.

**कांय नामनेच्यो व्यक्ती** - रामचंद्र पाडुरंग वैद्य (आयुर्वेदाचार्य); अं. का. प्रियोळकार (संशोधक); सखाराम गुडे (वैज); बा.भ. बोरकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय, मनोहरराय सरदेसाय, रवींद्र केळेकार, पुंडलीक नायक, बा. द. सातोस्कार, फोंडूशास्त्री करंडे, महेश्वरशास्त्री सुखठणकार, शंकर रामाणी, राणू नायक, डॉ. दत्ताराम सुखठणकार, वि. स. सुखठणकार, वि.ज. बोरकार (साहित्यिक); सुरश्री केसरबाई केरकार, दिनानाथ मंगेशकार, वझे बुवा, पंडित जितेंद्र अभिषेकी, लता मंगेशकार, उषा मंगेशकार, आशा भोसले, हृदयनाथ मंगेशकार, जोत्स्ना भोळे, गिरिजाताई केळेकार, रामनाथबुवा मठकार (गायन); नरहरी वळवईकार, रघुवीर नमशीकार (गायन-वादन); मलबाराव सरदेसाय (पखवाज); तुळशीदास बोरकार (हार्मोनियम); काशिनाथ शिरोडकार, मास्टर दत्ताराम, मा. गंगाराम (नाटकां); एम्. बॉयर, शालिनी म्हाड्डोळकार (तियात्र-फिल्म); दयानंद बांदोडकार (राजकारणी-उद्द्योजक); कामील पेरैर, सुरेश केरकार (स्वातंत्र्य सैनिक).

- कों. वि. सं. मं.

**फोंसेक, फेरदीनांद जे. D.D. :** मुंबयचो सहाय्यक बिशप. ताचें घराणें मुळचें हळदोणें, बार्देसचें. उपरांत तो मुंबय स्थायीक जालो. धर्मीक शिक्षण घेतले उपरांत १९५४त तो पाद्री जालो. १९८०त तो बिशप जालो. उपरांत तो मुंबयच्या आर्किडायोसिझीचो वावर करूंक लागलो.

- कों. वि. सं. मं.

**फोर्ड घराणें :** अमेरिकेंतल्या मोटर गाडयांच्या उद्देगाचे प्रवर्तक घराणें. विसाव्या शतमानांतल्या पयल्या तीन दशकांच्या काळांत संवसारीक नामनेची 'फोर्ड मोटर कंपनी' उदयाक येवन विकसीत जाली. हॅन्री फोर्ड हो हे संस्थेचो संस्थापक (३० जुलय १८६३ - ७ एप्रिल १९४७). फोर्ड घराणें मुळचें दक्षिण आयर्लंडांतलें; तांचे पुवर्ज अमेरिकेंत येवन

स्थायीक जाल्ले.

शालेय शिक्षणा उपरांत १८७९त हॅन्री डिट्रॉयटच्या एका यंत्र कारखान्यांत उमेदवारी करूंक लागलो. फुडें ताणें डिट्रॉयट ड्रायडॉक कंपनीत काम केलें. १८८९त हॅन्रीचें क्लॅरा जेम्स ब्रिअँट हिचेकडेन लग्न जाले. १८९१त डिट्रॉयटाक एडिसन इल्युमिनेटिंग कंपनींत अभियंतो म्हणून काम करूंक लागलो. १८९५त तो हे कंपनीचो मुखेल अभियंतो जालो आनी टॉमस आल्वा एडिसन हो नामनेचो संशोधक हॅन्रीचो जिवाभावाचो इश्ट जालो. १८९७त हॅन्री 'घोडोविरयत गाडी' (Horse less Car) तयार केली. हॅन्रीन शर्यतीच्यो गाडयोय तयार केल्यो. १९०३त ताणें 'फोर्ड मोटर कंपनी' स्थापन केली. फोर्डान A ह्या नांवाच्या नमुन्यापसून आपल्यो गाडयो तयार करपाक सुरवात केली. कितल्याशाच गाडयांचे नमुने ताणें S ह्या अक्षरा मेरेन तयार केले. सर्वसामान्य लोकांक परवडटली अशी मोटारगाडी निर्माण करून हॅन्री फोर्डान आपल्या स्पर्धक उत्पादकांक फाटीं उडयलें. मोटार गाडयांच्या उद्देगांत व्हड उत्पादन करून ताणें आंतरराश्ट्रीय नामना जोडली. १९०८-२८ ह्या वीस वर्सांच्या काळांत फोर्ड कंपनी १-५ कोटी मॉडेल टी गाडयांचें उत्पादन केले.

१९२२त फोर्डान 'लिंकन मोटर कंपनी' विकती घेतली. हे कंपनीचे व्यव्यस्थापन ताणें आपलो चलो एडझॅल हाचे कडेन सोंपयलें आनी कंपनींतल्यान उंचेल्या पांवड्याच्या आनी उंचेल्या मोलांच्या लिंकन मोटार गाडयांचें उत्पादन सुरू केले. १९२० उपरांत फोर्ड कारखाने युरोप, द. अमेरिकेंतल्या देशांनी तशेच जपानांत उकते जाले. १९३५त ब्रिटनाचे फोर्ड कंपनीन 'पोप्युलर' ही मोटार गाडी तयार केली. सर्वसामान्य लोकांक परवडटली अशा टी मोटारगाडयांची विक्री १९२०-२५ ह्या काळांत उपाट जावन कंपनीची भरभराट जाली. १९२९च्या सुमाराक मॉडेल ए मोटारगाडयेन विक्रेचे बाबतींत हेर सगळ्या गाडयांक फाटल्यान उडयल्यो. हॅन्रीचो चलो एडझॅल आनी एडझॅलाचो मेवणो कॅन्झलर हाणीं फोर्ड कंपनीच्या वेवस्थापनाची जापसालदारकी व्हडा कसबान हाताळ्ळी. १९३४-४२ ह्या काळांत फोर्ड कंपनीची नामना आनी प्रतिश्ठा बरीच वाडली. १९४५त एडझॅलचो चलो हॅन्री फोर्ड दुसरो हाचेर कंपनीच्या अध्यक्षपदाची जापसालतारकी सोपयली. हॅन्री फोर्डाक डियरबॉर्नाक मरण आयले.

हॅन्री फोर्ड हो जरी मुळांत संशोधक नासलो तरी मोटारगाडयांचे निर्मितींत क्रांतीकारक बदल घडोवन हाडपाचें कसब ताचेकडेन आशिल्लें. फोर्ड उद्देग हो एक भोवउद्देशी उद्देगसमूह आसून संवसारांतल्या चडशा देशांनी ताचे फाटे कार्य करीत आसा. ही कंपनी ट्रॅक्टराचे उत्पादन करता.

- कों. वि. सं. मं.

**फोर्ड प्रतिश्ठान :** नामनेचो अमेरिकी उद्देगपती हॅन्री फोर्ड आनी ताचो चलो एडझॅल हाणीं १९३६त स्थापन केल्लें एक खाजगी प्रतिश्ठान. विज्ञानीक, शिक्षणीक कार्य तशेंच धर्मादाय वावर हो ह्या प्रतिश्ठानाचो हेत आशिल्लो. सुरवेक ताचें कार्यक्षेत्र मिशीगन राज्याइतलेंच शिमीत आशिल्लें. १९५०त ताच्यो आवाठ राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय पांवड्या इतलो वाडलो. फोर्ड प्रतिश्ठान हे संवसारीक शांतताय, लोकशायी शासन, अर्थीक कल्याण, शिक्षण आनी मनशाच्यो शास्त्रीय नदरेंतल्यान अभ्यास अशा पाच मुखेल कार्यक्षेत्रांचेर भर दिता.

फोर्ड प्रतिशठानाचे मुखेल कार्यालय न्यूयॉर्कांत आसून ताच्या विश्वस्त मंडळांत १८ वांगडी आसात. धोरणाविशींच्यो गजाली हेंच मंडळ थरयता. प्रतिश्ठानाचे अधिकारी अनुदान योग्य व्यक्ति आनी संस्था हांची शिफारस करता आनी तांका अनुदान मेळटा. आपल्या प्रकल्पाचो वावर पळोवा खातीर प्रतिश्ठानान कांय खाशेल्यो संस्था आनी संघटनां निमार्ण केल्यात. फोर्ड प्रतिश्ठान हें जगांतलें सगळ्यांत व्हड प्रतिश्ठान.

प्रतिश्ठानाचे ६ कार्यविभाग आसून प्रशिक्षीत आनी वेवसायीक जाणकार तांचें काम पळयता. १. आंतरराश्ट्रीय विभाग हो विकसनशील राश्ट्रांतल्या कुशळ मनीसबळाक तशेंच थंयच्या थळाव्या संस्थांक धान्याचें उत्पादन, कुटुंब येवजण, गांवगिरो विकास, अर्थीक संशोधन, विज्ञान आनी तंत्रविज्ञान हांच्यो समस्या सोडवपाखातीर पालव दिता. २. राश्ट्रीय घडामोडी विभाग उण्या-उत्पन्न गटाच्या लोकांक अर्थीक पालव दिता. ३. फोर्ड प्रतिश्ठानान शिक्षणाच्या उदरगतीचेर खूब भर दिला. सुमार ७५% रक्कम शिक्षणाचेर खर्च करता. ताचो शिक्षण आनी संशोधन विभाग हो समान संद, शिक्षणिक अर्थप्रबंध आनी वेवस्थापन, शिक्षण पद्दतींत सुदारणां ह्या गजालींनी लक्ष घालता, कार्नेजी कॉर्पोरेशनाच्या पालवान ह्या प्रतिश्ठानान 'राश्ट्रिय गुणवत्ता शिश्यवृत्ती संघटना' स्थापन केल्ली आसून वुड्रो विल्सन अधिछात्रवृत्ती कार्यावळीचो विस्तार केला. ४. मानव्यविद्या आनी कला ह्या विभागांत थळावी वेवसायीक रंगमाची, संगितीका (Opera), बेले आनी वाद्यवृंद हांचे उदरगतीचेर लक्ष केंद्रीत केलां. कलावंत आनी नवोदित तरणाट्यांक ह्या विभागावरवीं प्रशिक्षण दितात. ५. संदेशवहन विभागांत संदेशवहन धोरण, माध्यमांचो प्रभाव आनी खबरांपत्रांची विद्या हांचे उदरगतीचेर आपलें लक्ष केंद्रीत केलां. ६. साधनसंपत्त आनी पर्यावरण विभागांवरवीं पर्यावरण वेवस्थापन आनी साधन संपत्तीचें विश्लेशण तशेंच भौशीक धोरणांविशीं संशोधन चलता.

१९६० सावन प्रतिश्ठानान फुडल्या गजालींक मोठ्या प्रमाणांत अर्थीक पालव दिला. खापऱ्यांच्यो शाळा आनी म्हाविद्यालयां, अल्पसंख्यांक आनी गरीब, स्वरमेळ वाद्यवृंद, नागरी समस्यांविशीं संशोधन, म्हाविद्यालयां आनी विद्यापिठां हांच्या वेवस्थापनांनी सुदारणां, पर्यावरण आनी वेवस्थापन तंत्राची उदरगत.

आंतरराश्ट्रीय थराचेर प्रतिश्ठानान आशिया, आफ्रिका, लॅटिन अमेरिका हातूंतल्या राश्ट्रांक व्हडा प्रमाणाचेर अर्थीक पालव दिला. हे खेरीज प्रतिश्ठानान वेगवेगळ्या मळांचेर संशोधन करपाखातीर कांय खाशेल्यो संस्थांय स्थापन केल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**फौजदारी कायदो :** गुन्यांवांमदीं खंयच्या दुश्कृतिंचो आस्पाव जाता, गुन्यांवांचेर कारवाय करपाची तरतूद करपी आनी ख्यास्त वा हेर उपायांवरवी गुन्यावांचें परिमार्जन वा प्रतिबंध करपी कायदो म्हळ्यार फौजदारी कायदो.

फौजदारी विधीची आंखणी संवसारांतल्या तरेकवार राश्ट्रांनी योजनाबद्ध स्वरुपान केल्ली आसा अशें दिसून येना. फकत युरोप खंडान फ्रांसांतली नेपोलियनाची संहीता, जर्मन संहिता, १९३० वर्साची इटालियन संहिता, अशा कायद्याच्या एकत्रीकरणाच्या प्रयत्नाक लागून फौजदारी

कायदो बऱ्याचकडेन सुसूत्रस्वरुपान दिसून येता. पूण इंग्लंड देशांत अलिखित आनी परंपरेचेर आदारून आशिल्लो 'कॉमन लॉ' (पारंपारीक विधी) हाचेप्रमाण फौजदारी कायद्याची निर्मिती केल्ली आसा. अमेरीकेच्या संयुक्त संस्थानांमदल्या सुमार एक तृतियांश संस्थानांमदीं 'कॉमन लॉ' आपणायिल्लो आसा. उरिल्ल्या जायत्या संस्थानांमदीं ताचें संविधन रुपांतर केल्लें आसा.

भारतीय दंडसंहितेची संवसारांतल्या सगळ्याच विधीज्ञांनी तोखणाय केल्ली आसा आनी तीच भारतीय फौजदारी विधीची बुन्याद अशें मानतात. तिचेर 'कॉमन लॉ' चो खुबसो प्रभाव पडिल्लो दिसून येता.

गुन्यांवाचें वर्गीकरण जायत्यातरांनी करपाक मेळटा. देखीक – अँग्लो-सॅक्सन कायद्याप्रमाण गुन्यांवाचे 'फेलनी' (Felony) म्हळ्यार मोटे गुन्यांव आनी 'मिसडीमीनर' (MBdemeanour) म्हळ्यार ल्हान गुन्यांव अशा दोन तऱ्हेन वर्गीकरण करताले. ह्या दोन गुन्यांवासंबंदान कारवायो वेगवेगळ्या न्यायालयामुखार जाताल्यो आनी तांच्यो ख्यास्ती वेगवेगळ्या स्वरुपाच्यो आसताल्यो. गुन्यांव जर 'फेलनी' स्वरुपाचो आसत जाल्यार ताचेखातीर मृत्यूदंड आनी गुन्यींवकाराची सगळी मालमत्ता जप्त करप हीच ख्यास्त आसताली. 'मिसडीमीनर' स्वरुपाच्या गुन्यांवानी बंदखण, दंड सारकिल्ल्यो सौम्य स्वरुपाच्यो ख्यास्तो फर्मायताले. पूण हें वर्गीकरण सामकें तर्कशुद्ध नासलें. देखीक – १२ पेनीपरस कमी किंमतीची वस्तू चोरली जाल्यार तो गुन्यांव 'मिसडीमीनर' थरतालो. पूण ताचेपरस चड किंमतीच्या वस्तूच्या चोरयेक 'फेलनी' म्हण्टाले. म्हळ्यार एका रुपयापरस चड किंमतीची वस्त चोरली जाल्यार ख्यास्तकाराक मृत्यूदंडाची ख्यास्त चूकनाशिल्ली. हाली काय देशांच्या फौजदारी कायद्यान मनशाच्या कुडीसंबंदान गुन्यांव, (खून, सदोष मनीस वध, बलात्संभोग, सादीदूख, गंभीर स्वरुपाची दूख), संपत्ती विषयक गुन्यांव (चोरी, दरोडो, फटवणूक), लग्नासंबंदान गुन्यांव (व्यभिचार), सार्वजनिक शांततेआड गुन्यांव, (कायदेशीर जमाव, दंगे), न्यायपद्धतीआड गुन्यांव, (फटी गवाय दीवप, साक्षीपुराव्यान ढवळाढवळ करप), सार्वजनिक भलायकी आनी नीती हांचेआड गुन्यांव (सार्वजनिक उपद्रव, अश्लिलता) ह्या भाशेन विषयवार वर्गवारी करपाची पद्धत स्विकारल्या. जुलीयस स्टोन ह्या फाकिवंत विधिज्ञाच्या मताप्रमाण फौजदारी विधि एकाच धपक्यान व्यक्ति, समाज आनी शासन ह्या तिनूय घटकांक संरक्षण दिवपाक वावुरता. मनशाची कूड आनी संपत्ती ह्याविशीं तशेच बदनामी सारकिल्ली कृत्यां गुन्यांव थरोवन फौजदारी कायदो संरक्षण दिता. उजो लावप (जाळपोळ), लुटालुट, दंगे, बनावट चलन, निवडणूकेंतले गैरप्रकार, सार्वजनिक उपद्रव, अश्लिलता ह्या गुन्यांवांविशीं तरतुदो करून हो कायदो समाजाचें संरक्षण करीत आसता आनी राजद्रोह महसूलांचें अपहरण, भ्रश्टाचार ह्या सारकिल्ल्या गुन्यांवांनी तरतूदो करून तो शासनाची प्रतिश्ठा आनी स्थिरता हांची राखण करता.

एकाद्रें कसलेंय वायट कर्म हो गुन्यांव थरता काय ना हें थारावपाक शारिरीक आनी मानसिक अशो दोन गजाली फौजदारी कायद्यान सादारणपणान तपासतात. हाकाच 'मेन्स – रिया' (Mens Rea) म्हळ्यार दूश्ट बुद्धि वा अपराधी मन आनी 'आक्तूस रिस' (Actus Reus) म्हळ्यार दूश्ट बुद्धि अंमलात हाडपाक केल्ली कृती.

फौजदारी कायद्यान 'दुश्ट' बूद्ध ह्या गजालीक भोव म्हत्व आसा. ख्यास्त फकत गुन्यांवकारी व्यक्तिच्या कृतीचो बदलो घेवपाक फर्मायनात. पूण ख्यास्तीच्या भंयाक लागून गुन्यांवकाराचेर आळाबंद बसचो असो फौजदारी कायद्याचो मुखेल हेतू आशिल्ल्याकारणान वायट बूद्ध फौजदारी कायद्याचें मुखेल आंग जावन आसा. देखीक – एकाद्र्या पांच वर्सां पिरायेच्या भूरग्याच्या वा एकाद्र्या पिशा मनशाच्या हातान पिस्तोल आयलें आनी ताचो ताणें घोडो ओडलो जाकालागून गुळी सुटून लागीं आशिल्ल्या व्यक्तिक मरण आयलें जाल्यार ह्या गजालीन दुश्ट बुद्ध नाशिल्ल्या कारणान हो गुन्यांव ठरना. तशेंच राजाचेर एकाद्रो मारेकरी आर्म मारता आसताना ताच्या अंगरक्षकान राजाक गोळीबारांतल्यान वांचोवपाच्या उद्देशान ताका धुकल्लो आनी हें करता आसताना जर राजा सकयल पडलो आनी ताका दुखापत जाली जाल्यार शरीररक्षकाक शिक्षा दिवप हें फौजदारी कायद्याच्या तत्त्वांत बसना. कारण अंगरक्षकाच्या मनांत दुश्ट बुद्ध नासली आनी राजाचो जीव वांचचो ह्या बऱ्या हेतून ताणें राजाक कुशीक काडलो.

ज्या दुश्ट बुद्धीन कृती केल्या, त्या कृती केल्ल्या व्यक्तिच्या मनाच्या अवस्थेची फोडणी फाकिवंत विधीज्ञानीं तीन मुखेल प्रकारांनी केल्ली आसा. निशिद्ध कृत्य हेतूपूर्वक करप, जाणाजावन आनी जतनाय घेनासताना करप. हाल्लींच्या तेंपार गुन्यांवांच्या प्रकारान नवे तरेचे गुन्यांव आकाराक आयल्यात, जांकां पांढर पेशे गुन्यांव (White Collar Crimes) अशें म्हण्टात. कारण हे गुन्यांव एकाद्र्या खुनी, चोर दरोडेखोर वा पारंपारिक पद्दतीच्या गुन्यांवकारांनी केल्ले आसनात. शासनान सगळ्या नागरिकांक सुखसोयी उपलब्ध करून दिवपाच्या नदरेन जे कायदे नेम केल्ले आसात तांकां बाधा येतली आनी तांचो मुखेल हेतू असफल जातलो, अशे तरेन समाजांतल्या मान्यवर, शिक्षीत, पयशेकार आनी प्रतिश्ठित अशा लोकांनी हे गुन्यांव केल्ले आसतात. देखीक – भारतांतलो आयकर अधिनियम, अन्न भेसळ प्रतिबंधक अधिनियम, गरजेच्यो वस्तू अधिनियम, तस्करी आनी विदेशी चलन, गैरव्यवहार (संपत्ती समपहरण) अधिनियम,वखदां आनी प्रसाधनां अधिनियम ह्या सारकिल्ले अधिनियम, ह्या सारकिल्ल्या गुन्यांवांनी दुश्ट बुद्धिची अट लागू पडना. एकाद्र्या पसरकारान भेसळ करून दूध, दाळ, सोरो वा वखद विखपाक दवरलें, प्रमाणापरस चड साखर, तांदूळ, गंव, केरोसीन सारकिल्या गरजेच्या वस्तूंचो सांठो करून दवरलो आसत जाल्यार त्या पसरकाराक बेगोबेग ख्यास्त फाव जाता. ताणें ही कृती जाणाजावन बाबडेपणान, निश्काळजीपणान, स्वताच्या स्वाथीपणान वा स्वताच्या संपूर्ण अज्ञानाक लागून केल्ली आसूं वा नासूं. निषिद्ध करण्यांनी कृती (commission) आनी अकृती (Ommission) ह्या दोनूय गजालींचो आस्पाव जाता. देखीक – एका व्यक्तिन दुसऱ्याचेर सुरो मारून वा ताका विश पियोवन ताचें हेतूपूर्वक मरण घडोवन हाडलें तर तो खून वा सदोश मनीसवधाचो गुन्यांव जाता. तशेंच जर एकाद्र्या नर्सीच्या हातान अत्यवस्थ रुग्णाची देखरेख सोंपयल्ली आसत आनी ताका हेतूपूर्वक फावे तें वखद वा जेवण न दिल्ल्याकारणान वा जाणाजावन ताच्या नाकांतली प्राणवायूची नळी काडून ताचें मरण घडोवन हाडल्यार ती नर्स रुग्णाच्या खुनाखातीर जबाबदार थरता. निशिद्ध कृत्याच्यो पूर्वतयारी (Preparation) आनी यत्न (Attempt) अशो दोन पूर्वावस्था आसतात. देखीक – एका व्यक्तिच्या मनान दुसऱ्याचो खून करपाचो आसत जाल्यार तो पयलीं पिस्तोल विकतें घेता, ताची साफसफाय करता आनी तातूंत गुळयो घालून दवरता. ही जाली खुनाची पूर्वतयारी. ताच्याउपरांत ती व्यक्ती तें पिस्तोल दुसरे व्यक्तिचेर जोखून पिस्तोलाचो

घोडो ओडटा. हो जालो गुन्यांवाचो यत्न वा सुरवात. हो यत्न सफल वा असफल जावंक शकता. सफल जाल्यार ताचें नियोजीत गुन्यांवांत रुपांतर जाता आनी तो असफल जाल्यार गुन्यांवाचो यत्न अशा अपूर्ण अवस्थेंत रावता. सादारणपणान ज्या गुन्यांवाक दंड फावो जाता तो गुन्यांव करपाचो यत्न करप हो लेगीत गुन्यांव आसून फौजदारी कायद्याप्रमाण ताका ख्यास्त फर्मावपाक मेळटा पूण फकत पूर्वतयारी करप हो गुन्यांव जावंक शकना. सामक्या अपवादात्मक आनी गंभीर अशा गुन्यांवांच्या विशीं पूर्वतयारी करप लेगीत हो गुन्यांव थरूंक शकता. देखीक - भारतीय दंडसंहितीच्या १२१, १२६ आनी ३९९ कलमाप्रमाण राजद्रोह, भारताकडेन मैत्रीचे संबंद आशिल्ल्या देशांच्या प्रदेशाचेर हल्लो करप आनी दरोडो ह्या तीन गुन्यांवांविशीं पूर्वतयारी होच गुन्यांव थरता.

दुश्ट बुद्ध नाशिल्ल्याकारणाचेर आरोपीक खूब तरांनी आपलो बचाव करपाक मेळटा. अल्पवयीन व्यक्ति, पिशे, इत्सेआड सोरो पियेवक घालून सोऱ्याच्या नशेंत वचपी व्यक्ति हाणीं केल्लीं निशिद्ध कृत्यां गुन्यांव जावंक शकना. त्याचप्रमाण न्यायधिशान आपल्या कर्तव्यपालनान केल्लीं, न्यायालयाच्या हुकमावेल्यान केल्लीं निशिद्ध कृत्यां गुन्यांव थरूंक शकना. पिडीत व्यक्तिच्या संमतीन केल्लीं एकाद्र्या अल्पवयीन वा पिशा मनशाच्या बऱ्याखातीर ताच्या पालकाच्या संमतीन केल्लीं तशेच मरणाचो भंय दाखोवन केल्लीं निशिद्ध कृत्यां गुन्यांव थरूंक शकनात. आपल्या स्वताच्या कुडीक वा मालमत्तेक तेचप्रमाण हेर नागरीकांच्या कुडीक वा मालमत्तेक जावपी त्रास, नुकसान वा पिडा टाळपाच्या नदरेन आगळीक करपाचो दर एका नागरीकाक अधिकार दिल्लो आसा, ताका आत्मसंरक्षणाचो अधिकार (Private Detence) अशें म्हण्टात.

फौजदारी कायद्याचीं कांय विशिश्टपूर्ण मूलतत्त्वां आसात. तांकां इतिहासीक आनी वैचारीक बसका आसा. ते भायर बऱ्याच आपसांतल्या कबलातीप्रमाण तांकां आंतरराश्ट्रिय मान्यताय मेळिल्ली आसा. हीं मूलतत्त्वां म्हळ्यार : १) गुन्यांवांची चवकशी जाता तितली जाहीरपणान करपाची, गुप्ततायेन न्हय; २) आरोप सिद्ध जायमेरेन आरोपी निर्दोष समजूपाचो; ३) आरोपीक वकील जाय आसत जाल्यार ताच्या बचावाखातीर तो दिवपाची तरतूद करपाची; ४) आरोपीन स्वता साक्षीपुरावो दिवपाची गरज ना आनी स्वताआड साक्षीपुरावो सादर करपाक आरोपीचेर दबाब हाडपाक मेळना; ५) साक्षीपुरावो सोंपतकच आरोपी दोशी आसा काय निर्दोशी आसा असो दुबाव निर्माण जाल्यार न्यायालयान दुबावाचो फायदो आरोपीक दिवपाचो. म्हळ्यार निर्दोश म्हूण आरोपीची मुक्तताय करपाची; ६) आरोप सिद्ध जायमेरेन जातातितलो आरोपीच्या दूश्ट वा गुन्यांवकारी पूर्वचारित्र्याचो दाखलो दिवपाचो ना; ७) एकाच गुन्यांवांविशीं आरोपीचेर दोन वा चड फावट कारवाय करपाक मेळना आनी (८) गुन्यावासंबंदान कारवाय करतना शासनाचेर वा पिडणूक जाल्ले व्यक्तिचेर वेळेचें बंधन ना.

फौजदारी कायद्यान मृत्युदंड, बंदखण, दंड सारकिल्ले ख्यास्तीच्या रुपान आरोपींचे प्राण, स्थलांतर, स्वातंत्र्य वा वित्तहरण करपाचे अधिकार शासनाक आनी न्यायालयाक आसात. फौजदारी प्रक्रियेन गुन्यावांचें अन्वेशण, अभियोग वा खटलो यासंबंदान न्यायालयाचो निर्णय वा तांचे आड अपिल, निर्देश (reference), पुनरिक्षण (Revision) सारकिल्ल्यो गजाली करपाच्यो मुभा, ख्यास्त आनी ताची अंमलबजावणी ह्या सारकिल्या गजालींचेर तरतुदो केल्ल्यो आसात. सादारणपणान अन्वेशणाचे अवस्थेन पुलिसान आरोपीक अधिपत्र (Warrant) काडून आनी कांय गजालींनी अधिपत्र काडिनासतना धरप, साक्षिदारांचे जबाब नोंदवप, गुन्यांव जामिनपात्र आसल्यार आरोपिक जामीनाचेर सोडवप, दुबावी मनशांची वा जाग्यांची झडती घेवप, पुराव्याक योग्य त्यो वस्तू ताब्यांत घेवप आनी दुबावी व्यक्ती आड आरोपपत्राक सादर करप हे विशीं तरतुदो केल्यो आसात. ताचे उपरांत अभियोगाची आनी प्रत्यक्ष खटल्याची अवस्था येता. हे अवस्थेंत फौजदारी न्यायालयांची जडण घडण, तांचे अधिकार, गुन्यांवांचे गंभीरतायेप्रमाण ते कमी वेळेचे पद्धतीन वा तपशीलवार पद्धतीन सोडवपाची रीत, आरोपपत्राचो मसुदो, न्यायालयामुखार पुरावो, तोंडी वा लेखी सादर करतना ताची नोंद कशी करपाची ह्या संबंदान नेम तशेंच आरोपीक बचावाची संद दिवपा संबंदान नेम, हांचेविशीं प्रयोजन केल्लें आसा. उपरांत ख्यास्त वा निर्दोश सुटका करपाचो आदेश. हातूंत फोजदारी निर्णय पत्रांचें शब्दांकन कशें आसप आनी ख्यास्त फर्मायल्यार अंमलबजावणी कशी करप हेविशीं तरतुदो आसात.

ख्यास्तीच्या रुपान गुन्यांवकाराचें पारिपत्य करप आनी ख्यास्तीच्या कठोर आनी क्रूर स्वरुपान हेरांक धडो घालून संभाव्य गुन्यांवकारांक गुन्यांव करपाआड परावृत्त करप हें फौजदारी कायद्याचें मूळ उद्दीश्ट. कांय विधीज्ञांच्या मतान गुन्यांवकाराक कडक ख्यास्त दिवन तांचो वायट करणेआड बदलो घेवचे परस गरिबी, उपासमार, मनाची दुर्बलता, वायट संगत सारकिल्यो गजालीं ज्यो गुन्यांवकारी वृत्तीचीं मूळ कारणां जावन आसात. ताका लागून गुन्यांवकारांचेर फाव ते उपचार करूंक जाय आनी तांचे मर्दी सुदारणा घडोवन हाडून तो स्वताक आनी समाजाक कसो फायद्याचो जातलो हें पळोवपाचो ख्यास्तीचो हेतू आसपाक जाय. हो सुदारणावादी दृश्टीकोन हालीं बऱ्याच देशांच्या फौजदारी कायद्यान बदल घडोवन हाडीत आसा. मृत्युदंडांची ख्यास्त खूबश्या देशांनी रद्द केल्ली आसा. चाबकान मारपाची ख्यास्त अपवादात्मक केसींनी वापरतात. जंय मरणाची ख्यास्त फर्मायतात थंयपसून सुळाचेर चडोवप, गोमटी कापप, सारकिल्ल्या हाल जावपी प्रकारांच्या बदला विजेच्या धक्क्यान रोखडेंच मरण घडोवन हाडपाचे प्रकार रूढ जायत आसात. गुन्यांवकारांक बरें वातावरण मेळचें हे नदरेन बंदखणीचे वेवस्थेंत जायते बदल केल्यात. अल्पवयीन गुन्यांवकारांचो (Juvenile Delinquents) सवयींच्या गुन्यांवकारांकडेन (Recidivists) संपर्क येवन ते आनी पेड्ड्यार जावचे न्हय म्हणून ताका बालसुधार केंद्रांत दवरपाची वेवस्था करतात. जे पयलेच फावट गुन्यांवकार थारतात आनी तांच्या हातांतल्यान गंभीर स्वरूपाचो गुन्यांव जाल्लो नासता तांकां बंदखणींत धाडपा बदला परिक्षेचेर (Probation & Parol method) सशर्त मुक्त करपाची सोय खुबशा लोकशाय देशांनी जाल्या.

गुन्यांवकारांक सुदारपाचे नदरेन फकत मध्य आशियान, साउदी-अरेबिया सारके थोडे देश सोडल्यार हेर सुवातींचेर ही ख्यास्त सौम्य करपाचे दिकेन आनी गुन्यांवकारांक सुसंस्कृत वागणूक दिवपाचे नदरेन फौजदारी कायद्याची वाटचाल सुरू आसा. फौजदारी कायद्याचो मूळ हेत ख्यास्तीच्या स्वरूपांत फेरबदल करून लेगीत फळाक येवंक ना अशें वयल्या वयर दिसत आशिल्ल्यान तो साध्य जावपाचे नदरेन फौजदारी विधीक धर्मीक तेचप्रमाण नितीमत्तेच्या शिक्षणाची जोड दिवप गरजेचें आसा अशें जायत्या सुशिक्षित आनी सुसंस्कृत लोकांचें मत जालां.

- ॲड. सुहास थळी

**फ्रँको, फ्रांसिस्कु पावल एच. :** (जल्म : आसगांव).

एक गोंयकार धर्मप्रचारक. १९३३त तो मिलापूर डायोसिसचो आपोस्तोलीक प्रशाशक जालो. मिलापूर, पल्लावरम आनी अलवारपेटाक ताणें कोंवेंत शाळा आनी इगर्ज बांदली.

– कों. वि. सं. मं.

**फ्रांक, जेम्स :** (जल्म : २६ ऑगस्ट १८८२, हांबुर्ग, मरण : २१ मे १९६४, गटिंगॅम).

नामनेचो जर्मन-अमेरिकन भौतीकशास्त्रज्ञ. ताणें हायडलूबर्ग विद्यापिठांत रसायनशास्त्राचो आनी बर्लिन विद्यापिठांत भौतीकशास्त्राचो अभ्यास केलो आनी १९०६त बर्लिन विद्यापिठाची डॉक्टरेट मेमयली. थोडो तेंप फ्रँकफर्ट-आम-मेनाक सहाय्यक म्हणून काम करतकच तो बर्लिनाक हॅन्रीख रुबेन्झ हांचो सहाय्यक जालो. १९११-१८ ह्या काळांत ताणें बर्लिन विद्यापिठांत भौतिकशास्त्रांचें अध्यापन केलें. पयल्या म्हाझुजांत ताणें सैन्यांत केल्ल्या वावराखातीर ताका आयर्न क्रॉसचो बोवमान मेळिल्लो.

झुगाउपरांत व्हिल्हेल्म कायसर इन्स्टिट्युट ऑफ फिजिकल कॅमिस्ट्री हे संस्थेच्या भौतिकशास्त्र विभागाच्या मुखेल पदाचेर ताची नेमणूक जाली. १९२०त तो गटिंगॅन विद्यापिठाच्या प्रयोगीक भौतिकी संस्थाचो संचालक आनी प्रयोगीक भौतिकशास्त्र विशयाचो प्राध्यापक जालो. नाझी राजवटींतल्या निर्बंधाच्या निशेधाखातीर ताणें आपल्या प्राध्यापकपदाचो १९३३त राजिनामो दिलो. एक वर्स कोपॅनहागेनांत प्राध्यापक म्हणून काम करतकच १९३५त तो अमेरिकेंतल्या जॉन हॉपकिन्स विद्यापिठांत भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक आनी १९३८त शिकागो विद्यापिठांत भौतिकी रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक जालो. दुसऱ्या म्हाझुज काळांत ताणें अणुबाँब येवजणेचो एक भाग आशिल्ल्या, शिकागो विद्यापिठाच्या धातुवैज्ञानिक प्रयोगशाळेच्या रसायनशास्त्रीय विभागाचो संचालक म्हणून काम केलें. १९४७-५६ ह्या काळांत ताणें शिकागो विद्यापिठान प्रकाशसंश्लेशण (Photosynthesis) विशींचे संशोधन प्रयोगशाळेचो मुखेल म्हणून काम केलें.

बर्लिनाक आहतना ताणें इलेक्ट्रॉन, अणू आनी रेणु हांचे गतिकीविशीं (dynamics) संशोधन केलें. सुरवेक ताणें वायुंतल्या जावपी विद्युत् संवहनाविशीं संशोधन केलें. उपरांत हर्ट्झ हाचेवांगडा ताणें वायुंतल्या मुक्त इलेक्ट्रॉनांच्या वर्तनाविशीं अभ्यास केलो आनी तातूंतल्यानूच फुडें नील्स बोर हाच्या आणवीय सिद्धांतांतल्या कांय मुळाव्या संकल्पनांक प्रयोगीक पुरावो मेळ्ळो. अणूवयल्या इलॅक्ट्रॉनांच्या आघातांचे नियमन करपी नेमांचो सोद लायिल्लेखातीर १९२५ वर्साचो भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार जेम्स फ्रांक हाका गुस्ताफ हर्ट्झ हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

गटिंगेनाक आसतना ताणें वायू आनी बाश्प हांच्या अनुस्फुरणाविशीं (flourescence) संशोधन केलें. १९२५त ताणें आयोडीन रेणूंच्या उजवाडा रसायनीक वियोजनाविशींच्या आपल्या निरिक्षणाची फोडणिशी करपाखातीर उर्जा पातळ्यांचेर आदारिल्ल्या एके यंत्रणेची संकल्पना मांडली. हे संकल्पनेचो फुडें ई. यु. काँडन हाणें विस्तार केलो आनी ती आतां फ्रांक-काँडव तत्त्व ह्या नांवान वळखतात.

ताका जर्मन फिझिकल सोसायटीचें माक्स प्लांक पदक (१९५१) आनी अमेरिकन ॲकॅडमी ऑफ आर्टस अँड सायन्सीसचें रम्फर्ड पदक (१९५५) हे भोवमात फावो जाल्यात. १९५३त गटिंगगॅन शारान ताचो भोवमानादीक नागरीक म्हणून भोवमान केलो. लंडनचे रॉयल सोसायटीचो परदेशी वांगडी म्हणून १९६४त ताची निवड जाली.

– कों. वि. सं. मं.

**फ्रांस :** अस्तंत युरोप खंडातलें एक व्हड राश्ट्र. इतिहासीक आनी संस्कृतीक म्हत्व लाबिल्लें तें खूब आदलें राश्ट्र आसा. क्षेत्रफळ ५,४६,९६५ चौ. किमी. क्षेत्रफळाचे नदरेन संवसारांत फ्रांसाचो ४०वो क्रम लागता. विस्तार ४२°२०' उत्तर ते ५१°५' उत्तर अक्षांश आनी ८°१०' उदेंत ते ५°५५' अस्तंत रेखांश. षटकोनसो आकार आशिल्ल्या त्या राश्ट्राचे अस्तंतेक अॅटलांटीक म्हासागर, दक्षिणेक भूंयमध्य दर्या (Mediterranean Sea) आनी स्पेन, उत्तरेक इंग्लीश खाडी, ईशान्येकडेन बेल्जियम, लक्सेंबर्ग आनी जर्मन राश्ट्र, उदेंतेक स्वित्झर्लंड आनी आग्नेयेकडेन इटली देश आसा. राश्ट्राची सरासर लांबाय सुमार १,००० किमी. आसून ताका ५,००० किमी. लांबायेची दर्यादेग लाबिल्ली आसा. भूंयमध्य दर्यांत आशिल्ल्या कॉर्सिक जुंव्याचो आस्पाव फ्रांसातूच जाता. मार्तिनीक, ग्वादलूप, रेयून्यो, फ्रेंच गियाना, फ्रेंच पॉलिनीशीया, न्यू कॅलेडोनीया, सेंट पाएर, मिकलॉन, वालीस आनी फुटूना जुंव्यांचो फ्रांसाच्या सागरापार प्रांतांत (Overseas Department) आस्पाव जाता. पॅरीस शार ही देशाची राजधानी आसून, तें देशांतलें सगळ्यांत व्हडलें शार. संवसारांतल्या प्रसिद्ध शारांमदीं ताचो आस्पाव जाता.

**भूंयवर्णन :** फ्रांस राश्ट्राचो आकार षटकोनसो आसून त्या प्रदेशाची निर्मिती आर्मोरिकन, हर्सिनीयन आनी आल्पायन ह्या वेगवेगळ्या पर्वतनिर्मितीच्या काळांत जाली. फ्रांसाचो चडसो भूंयप्रदेश दर्याथळासावन २५० मी. मेरेन उंचायेचो आसा. भूगोलीक नदरेन फ्रांसाच्या प्रदेशांभितर खूब वेगळेपण दिश्टी पडटा. देशाचे उत्तर आनी अस्तंत भाग मुखेलपणान सपाट आसात. देशाचे उदेंत, मध्य आनी दक्षिणकडचे भाग चड उंचायेचे आसून तातूंत पर्वतावळींचो आनी साबार ल्हान व्हड दोंगुल्यांचो आस्पाव जाता.

भूंयरचणूकेचे नदरेन फ्रांस देशाचे तीन मुखेल वांटे केल्यात ते अशे – १) पर्वतीय प्रदेश २) प्राचीन पठारी प्रदेश आनी ३) सखल मळांचो प्रदेश.

**पर्वतीय प्रदेश :** देशाच्या दक्षिण मध्य भागांत मासीफ सेंट्रल, वायव्य भागांत आर्मोरिकन मासीफ आनी शिमेदेगांनी पिरेनीज, आलप्स, जुरा, व्होज, आर्देन हे चड उंचायेचेर आशिल्ले प्रदेश. पिरानीज आनी आल्प्स दोंगरावळी हेरांपरस व्हड आनी उंच आसात. पिरेनीज दोंगरावळ फ्रांस आनी स्पेन देशांमदीं आसा. आल्प्स दोंगरावळ इटली आनी स्वित्झर्लंडस् शिमेवयल्यान पासार जाता. आल्प्स पर्वतावळींतले माँट ब्लाँक (४,८१० मी.) तेमूक संबंद युरोपांतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक.

**प्राचीन पठारी प्रदेश :** मासीफ सेंट्रल पठार देशाचे दक्षिणेक आसा. उत्तरेक ल्वार न्हंय, उदेंतेक ऱ्होन न्हंय, दक्षिणेक गारॉव न्हंय आनी बिस्के उपसागर हांचे मजगती पठारी प्रदेश आसा. थंयचे घट्ट फांतरी जमीनीक फुटावळी वचून तांतूतल्यान भायर शेवटील्लो लाव्हा रस थंय आशिल्ल्या तळपांचेर सांचला. त्या पठारावयल्या कांय तळपांमदीं कोळशाचे सांठे सांपडटात. आर्मोरिकन मासीफ आनी हर्सीनियन हे मासीफ सेंट्रल

पठाराचेच फांटे आसात. व्होज न्हंयेक लागून न्हायन देगण फ्रांसाच्या हेर भागांसावन वेगळें जाल्लें आसा. न्होर्मेंडी पर्वतीय वाठारांनी साप्प आदल्या काळांतलीं तळपां सांपडटात.

**सखल मैदानी प्रदेश :** पॅरिस द्रोणी, ॲक्विटेनियन देगण (Aquitanian Valley), न्हायन देगणांतलीं मळां, न्होर्दन फांस प्लेन्स, मॅडिटेरेनियन लॉलॅंड, न्होन-सोन न्हंयांच्या देगणांतलीं ल्हान ल्हान मळां हे फ्रांसातले मुखेल सखल प्रदेश. सखल प्रदेशांतली माती पिकाळ आसा.

न्हंयो : फ्रांसांत वर्सुयभर व्हांवपी ल्हान व्हड न्हंयो, व्हाळ आनी झरी खूब आसात. ल्वार, सोन, गारॉन, न्होन आनी न्हायन हांगाच्यो मुखेल न्हंयो. ल्वार (१,०५० किमी.) ही हांगाची सगळ्यांत लांब न्हंय. ते न्हंयेचो मासीफ सेंट्रल दोंगरवळीचेर उगम जाला. नँट्स लागसार ती ॲटलांटीक म्हासागराक मेळटा. सोन हे ७७५ किमी. लांबाय आशिल्ले न्हंयेचो उगम लँग्रा पठाराचेर जाता. ते न्हंयेचो लोट साप्प ल्हव आशिल्ल्यान आनी न्हंयेच्या रूंद पात्राक लागून उदकांतले येरादारीखातीर तिचो बरो वापर जाता. गारॉन न्हंयेचो पिरेनीज पर्वताचेर उगम जाला. हे न्हंयेक दरवर्सा व्हड हुंवार येवन, भोंवतणच्या वाठारांचें खूब नुकसान जाता. तिची लांबाय सुमार २२५ किमी. आसा. न्होन न्हंयेची लांबाय ५२० किमी. आसून तिचो उगम स्विट्झर्लंडांत जाता. सोन ही न्होन न्हंयेची मुखेल उपन्हंय. देशाचे उदेंत आनी ईशान्य शिमेवयल्यान न्हायन न्हंय व्हांवता. तिची लांबाय १९५ किमी. आसा. आल्पे, दॉरदॉन्यू, लॉट, टॉर्न, म्यूज आनी मोझेल ह्यो देशांतल्यो हेर ल्हान ल्हान न्हंयो आसात.

**हवामान :** फ्रांसाचो आस्पाव समशितोश्ण क्षेत्रविभागांत मध्य अक्षवृत्तांचेर जाल्ल्यान, देशांतलें हवामान सादारणपणान शितळ उरता. हांगाचे वर्सुकी सरासरी तापमान ११° सॅ. इतलें आसता. पूण ऋतू प्रमाण तातूंत बदल जायत रावता. जानेवारी म्हयन्यांत ०° ते ८° सॅ. इतलें सकयल देंवता तर जुलय म्हयन्यांत तें १६° ते २४° सॅ. मेरेन वयर वता. सागरी, खंडीय आनी भूंयमध्य सागरावयल्यान व्हांवपी वाऱ्याक लागुनूय थंयच्या हवामानात बदल जाता. शिंयाळ्यांत ॲटलांटीक म्हासागरावयल्यान उबदार आनी गिमाच्या दिसांनी शितळ वारें मारिल्ल्यान अस्तंतेक आशिल्ल्या प्रदेशांतलें हवामान सम उरता. देशाच्या मध्य भागांत पठारां तशेंच पर्वतांच्यो वळी आशिल्ल्यान भूंयमध्य सामुद्रिक हवामानाचो परिणाम दक्षिण भागांतूच जाणवता. देशाच्या उदेंत भागांतलें हवामान अस्तंत भागांतल्या हवमानापरस शितळ आंनी विशम आसता. अस्तंत प्रदेशांतलें हवामान दमट आसून त्या भागांनी वर्सुयभर आतऱ्यापयऱ्यान पावस पडत आसता. थंय वर्सुकी पावसाचें प्रमाण सरासरी ८०० मीमी. इतलें आसा. दक्षिण भागांत पावसाचें प्रमाण सरासरी ५०० मीमी. आसता. उदेंतेक सावन येवपी खंडीय वाऱ्याक लागून त्या भागांतलें हवामान सुकें उरता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** देशाच्या हवामान आनी भूंयरचणुकेप्रमाण थंय वनस्पत आनी मोनजातीचे वेगवेगळे प्रकार सापडटात. देशाच्या मध्य आनी उत्तर पर्वतीय प्रदेशांनी ओक, बीच, पायन, बर्च, पॉप्लर, विलोव ही रुखावळ सापडटा. दक्षिणेक पायन रूखांनी भरिल्लीं दाट रानां आसून, तातूंत ओक रुखाचे कांय प्रकार आसात. मासीफ सेंट्रल रानांनी चेस्टन आनी बीच रूख चड प्रमाणांत आसात. देशाच्या सखल सपाट भागांचो मुखेलपणान शेतवडी खातीर उपेग जाता.

देशाच्या वेगवेगळ्या भागांनी मोनजातीचे विंगड विंगड प्रकार सांपडटात. थंयच्या दाट रानांनी पिरेनीज, वांस्वेल, शेमॉय, मार्मोट, सशे, रानदुकर आनी हेर मोनजात खूब प्रमाणांत आसा. बॉर्बलर, कस्तूर, मॅग्पाय, तीसा, फ्लेमिंगो, बॅटींग, बक, फेझंट हीं थंयच्या वेगवेगळ्या भागांनी दिश्टी पडपी सवणीं.

**इतिहास :** अस्तंत आशिया मायनरच्या लोकांनी सद्या फ्रांस म्हणून प्रसिद्ध आशिल्ल्या मार्से भागांत इ.स. पयलीं ६००च्या सुमाराक वसाहतीची स्थापणूक केली. थंयचे लोक मुखेलपणान सेल्ट जमातीचेच आशिल्ले. रोमी लोक ह्या प्रदेशाक गॉलिया (गॉल) अशें म्हण्टाले. इ.स. पयलीं २००च्या सुमाराक सावन रोमी सैन्यान त्या प्रदेशाचेर घुरयो घालपाक सुरवात केल्ली. इ.स.प. १२१त मेडिटेरिनियन दर्या ते न्हॉन देगणा मेरेनचो प्रदेश रोमी लोकांनी आपल्या शेकातळा व्हेलो. उपरांत इ.स.प. ५८ ते ५१ मेरेनच्या काळांत रोमन सम्राट ज्युलिअस सिझर हाणें गॉल प्रदेशाचेर साबार घुरयो घालून तो सबंद प्रदेश आपल्या साम्राज्याक जोडलो. उपरांत गॉल लोक खूब तेंप रोमन लोकांच्या शेकातळा उरिल्ल्यान ताणींय रोमन संस्कृतीचो आनी जिणेचो तसोच लॅटीन भाशेचो पुरस्कार केलो. अशे रितीन गॅलो रोमन हांची भरसण जावन थंय एक नवोच समाज निर्माण जालो. रोमी लोकांच्या शेकातळा इ.स.च्या सुरवेच्या कांय शेंकड्यांनी गॉल प्रदेशाची खूब भरभराट जाली.

पांचव्या शेंकड्याचे सुरवेक जार्मनीक, बर्गंडियन, फ्रांक आनी बिसिगोथ टोळयांनी न्हायन न्हंय हुंपून तशेंच रोमन सैन्याचो विरोध मोडून उडोवन गॉल प्रदेशांत रिगले. ताणीं साबार लोकांक मारून उडयले आनी साबार लोकांक अस्तंतेकडच्या ब्रिटानी प्रदेशांत धावडावन घाले. ४८६त सालीयान फ्रांकचो राजा क्लोविस हाणें गॉल रोमन गर्व्हनराचो सोयसन हांगा पराभव केलो. क्लोविसान उपरांत हेर जार्मनीक टोळयांचो पराभव करून आपल्या राज्याचो विस्तार वाडयलो. ५११त क्लोविस राजान मेरोव्हिंजियन वंशाची स्थापणूक करून गॉल प्रदेशांत फ्रॅंक राज्य उबारलें.

क्लोविस राज्याच्या मरणा उपरांत फ्रॅंक राज्याक देंवती कळा लागली. उपरांत फ्रॅंकची जमीनदार, सरदार आनी बिशप हांच्या हातांत सत्ता गेली. ७००च्या सुमाराक थंय सामंतशाय (Feudalism) पद्दत सुरू जाली. मेरोव्हिंजियनची सत्ता दुबळी जाल्ल्यान थंयची राजकीय आनी भौतिक स्थिती सामकी इबाडली. अशा तंग वातावरणांत हर्स्तालचो पेपीन हाणें फ्रॅंकडी सत्ता आपल्या हातांत घेतली. उपरांत ताचो चलो चार्लस् मार्टेल हाणें आपल्या घराण्याचो शेक सबंद गॉल प्रदेशाचेर वाडोवपाचो यत्न केल्लो. चार्ल्स मार्टेलचो चलो पेपीन द शॉर्ट हाणें ७५१त मेरोव्हिंजियन घराण्याचो पराभव करून आपूण फ्रॅंकाचो राजा जालो. ताणें फ्रॅंकांत कोरोलिंगीयन वंशावळीची स्थापणूक केली. पेपीनाचो चलो शार्लमेन हाणें शेजारच्या राज्यांचेर साबार घुरयो घालून आपल्या राज्याचो विस्तार खूब वाडयलो. ताच्या शेकातळा फ्रॅंक प्रदेशाची खूब उदरगत जाली. १८०० त पोप लिओ तिसरो हाणें ताका रोमन साम्राज्याचो सम्राट म्हणून घोशित केलो. १८१४त शार्लमेनाक मरण येतकच ताच्या तीनय नातवां भितर झगडीं जावन ताणीं फ्रॅंक राज्य आपल्या भितर वांटून घेतलें. तांच्यांत जाल्ले वर्ड्यूनचे कबलाती प्रमाण सद्या अस्तित्वांत आशिल्ल्या फ्रॅंसाचो चडसो भाग चार्ल्स द बाल्ड हाका मेळलो. राज्याभिषेक करपाचो अधिकार पोप आनी रोमन कॅथलिकच्या हेर धर्मीक गुरूंकडेन आशिल्ल्यान राजकिय सत्ता चर्चीच्या हातांत गेली. धाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दाक सावन कोरोलिंगीयन सत्तेक देंवती कळा लागली. थंयच्या उंचेल्या घराण्यांच्यो शेक वाडत गेलो. ९८७त ताणीं कोरोलिंगीयन घराण्याचो

अंत करून ह्यू कॅपेट हाका सम्राट केलो. ताणें थंय कॅपेटीयन वंशावळीची स्थापणूक केली. उपरांत आयिल्ल्या कॅपेटियन राजांभितर सवो लुई (कार ११०८-३७) हाणें राज्यसत्तेक खूब म्हत्व मेळोवन दिलें. सातव्या लुईन राज्याचो खूब विस्तार केलो. ताचो चलो फिलीप ऑगस्टस हाणें ब्रिटनी, नॉर्मंडी, आंजू, टोरेन आनी हेर फ्रॅंक वाठारांतल्यान ब्रिटिशांक धांवडावन घालून आपल्या साम्राज्याच्या प्रशासनांत सुदारणां घडोवन हाडली. अर्थीक मळारूय खूब उदरगत जाली. पॅरीस शारांत विद्यापिठाची स्थापणूक केली. णववो लुई हाणें (कार १२२६-७०) फ्रॅंसाचे राज्यव्यवस्थेंत कांय म्हत्वाचे बदल केले. सामान्य लोकांचो शेतवड होच मुखेल वेवसाय आशिल्लो.

कॅपेटियन घराण्याचो निमाणो सम्राट चार्ल्स चवथो आपल्या फाटल्यान वारस दवरीनासतना मेलो. हाका लागून ताचो चुलत भाव फिलीप सवो फ्रेंच गादयेर आयलो. ताणें थंय लोयस घराण्याची थापणूक केली. सवो फिलीप गादयेर आयिल्लो तेन्ना फ्रांस हें सबंद युरोपालतलें बळिश्ट राज्य आशिल्लें. ह्याच तेंपार चार्ल्स सवो पुतणयो, इंग्लंडचो राजा एडवर्ड तिसरो हाणेय आपूण फ्रांसाचो राजा म्हणून जाहिर केलें. हाका लागून १३३७ ते १४५३ मेरेन फ्रांस आनी इंग्लंडा भितर एका फाटोफाट एक अशी साबार झुजां जायत रावलीं. युरोपीय इतिहासांत तीं झुजां 'शंबर वर्सांचें झूज' म्हणून प्रसिद्ध आसा. त्या झुजांक लागून फ्रांसांन माजिल्ले अस्थिरतायेचे परिस्थितीचो फायदो घेवन थंयच्या उंचेल्या वर्गांतल्या लोकांनो राज्याचीं मुखेल सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. पूण उपरांत इकरावो लुई हाणें फिदाल्ग लोकांचो बंदोबस्त करून परतून सगळी सत्ता आपल्या हातांत घेतली. १५१५त पयलो फ्रांसिस फ्रांसाचे गादयेर आयलो. ताणें इटलीचेर घुरी घालून स्विस आनी मिलान प्रदेश आपल्या शेकतळा हाडले. उपरांत जाल्ल्या झुजांत रोमन साम्राज्याच्या चवथ्या चार्ल्सान पयल्या फ्रांसीसाचो पराभव केलो. पूण फ्रॅंच लोकांनी रोमन साम्राज्याआड आपलो लडो चालूच दवरलो. तो लडो दुसरो हॅन्री फ्रांसाचे गादयेर ये मेरेन चालूच उरलो.

सोळाव्या शेंकडयाच्या मध्याक सावन फ्रांसाचे गादयेर आयिल्ल्या राजांभितर प्रॉटेस्टंट आनी कॅथलीक अशीं धर्मपंथीय झगडीं जायत रावलीं. तिसऱ्या हॅन्रीक १५८९त मरण आयल्या उपरांत ताची सुवात नाव्हाराच्या हॅन्रीन घेतली. चवथो हॅन्री ह्या नांवान ताणें बूर्बाॅन वंशावळ सुरू केली. पूण चवथो हॅन्री हो प्रॉटेस्टंट पंथाचो मुखेली आशिल्ल्यान ताका रोमन कॅथलीक लोकांनी पॅरिसांत येवपाक दिलोना. फ्रांसांत शांतताय स्थापीत जावची म्हणून १५९३त ताणें रोमन कॅथलीक धर्म आपणायलो. १५९४त तो पॅरिसाक गेलो. ताणें फ्रॅंच लोकांभितर राश्ट्रीय भावना जागृत केली. ताच्या तेंपार फ्रांसांत भौशिक मळार खूब उदरगत जाली. चवथ्या हॅन्री उपरांत ताचो प्रधानमंत्री तेरावो लुई सत्तेर आयलो. पूण ताच्या तेंपार व्हडलेशो कांयच घडामोडी जाल्योनात. उपरांत आयिल्लो चवदावो लुई (कार १६४३-१७१५) हो फ्रांसाचो मध्ययुगीन सगळ्यांत व्हड राजा जावन गेलो अशे मानतात. १५व्या आनी १६व्या लुईंच्या तेंपार ऑस्ट्रियन वारस झूज आनी सप्तवर्सूकी झुजाक लागून फ्रांसाचें खूब अर्थीक नुकसान जालें. १७६३त ब्रिटिशांआड जाल्ले पॅरिस कबलातीक लागून फ्रांसाक आपलीं कॅनडा आनी हिंदूस्थानांतलीं साम्राज्यां सोडून दिवचीं पडलीं. सोळावो लुई आनी ताची राणी मारी आल्वानेत हाणीं राज्यकारभारांत व्हडलेशें लक्ष घालें ना. राज्यकारभाराची सगळी मुखेल सुत्रां मारी आल्वानेतच्या हातांत आशिल्लीं. ताणीं आपल्यो विलासी गरजो भागवपाखातीर राज्यभांडवलाचो खूब गैरउपेग केलो. सप्तवर्सुकी झुजांत ब्रिटिशांआड जाल्ल्या पराभवाचो बदलो घेवपाखातीर ब्रिटिशांआड जाल्ले अमेरिकन वसाहत स्वातंत्र्य चळवळीक ताणीं तेंको दिल्लो. अमेरिकन स्वातंत्र्य झुजाक फाटबळ दिल्ल्यान उपरांत फ्रांस आनी अमेरिका हांचे संबंद बरे उरले.

अठराव्या शेंकडयांत फ्रांस हें युरोपांतलें एक बळिश्ट राश्ट्र आशिल्लें. त्या वेळार चलिल्ले दर्यापार वसणुकेचे सर्तींत फ्रांसूय वाटेकारी आसलो. हाका लागून तशेंच कर वसुल करचेखातीर फ्रांसान व्हड सैन्य उबारिल्लें. सैन्याची देखरेख करपाखातीर राज्य खजान्याचेर व्हड ताण पडटालो. हाका लागून सरकाराक परत परत कर वाडोवचो पडटालो. सोळावो लुई गादयेर आयलो तेन्ना फ्रांसाची समाजीक, राजकीय आनी अर्थीक स्थिती सामकी इबाडिल्ली. ते वायट स्थितीचे परिणाम गरीब आनी मध्यम लोकांक चड भोगचे पडले. त्या वेळार फ्रॅंच समाज गिरेस्त पाद्री वर्ग (Cleargy), वरिश्ठवर्ग (Noble) आनी सामान्य वर्गांत विभागिल्लो. सामान्य वर्गांत गरिब शेतकामती आनी कामगारांचो तशेंच मध्यम वेपाऱ्यांचो आनी सरकारी कर्मचाऱ्यांचो आस्पाव आशिल्लो. पाद्री आनी वरिश्ठ वर्गांतले लोकांक कांय खास राजकीय सवलती मेळटाल्यो. तांका कर भरपायेची सूट आशिल्ली. अशे रितीन साम्राज्यांतली पुराय कर वसुली सामान्य वर्गाकडल्यानूच जाताली. हाका लागून सामान्य वर्गांत तणाव निर्माण जाल्लो. राजा फकत नांवापुरतोच आशिल्लो. पुराय शासनाचेर वरिश्ठ वर्गांतल्या लोकांचो शेक चलतालो. अशा तंग वातावरणांत राजशाय आनी हुकूमशायेक विरोध करपी साहित्य फ्रांसांत आनी हेर युरोपीय देशांत जावपाक लागलें. १७८६त व्हड सैन्याचो खर्च भागोवपाखातीर सरकारान नव्या जमीन कराची घोशणा केली. आदीच आपल्यो दीसपट्टचो गरजो भागोवपाक तांक नाशिल्ल्या सामान्य लोकांक ते घोशणेची तिडक मारली. सबंद फ्रांसांतले न्यायाधिश, वेपारी, सरकारी कर्मचारी, कामगार वर्ग आनी शेतकामती एकठांय येवन ताणीं नवो कर फारीक करपाक विरोध केलो. ते घडणुकेंतल्यानूच फ्रॅंच क्रांती घडून आयली.

१४ जुलय १७८९ दिसा पॅरिस शारांत उठाव जावन जमावान बॉस्टाय ह्या राज्य किल्ल्याक रेवाडो घालून तातूंतलो दारूगुळो काबीज करपाच्या हेतान तो मोडून उडयलो. त्याच वेळार कांय क्रांतीकारी मुखेल्यांनी पॅरिस नगरांत क्रांतीकारी सरकाराची स्थापणूक केली. बॉस्टायल किल्ल्याचेर क्रांतीकारांनी ताबो मेळयला तें आयकून गांवगिन्या वाठारांतल्या शेतकामत्यांनी वरिश्ठ वर्गांतल्या लोकांआड उठाव केलो.

सुरवेक राज्यक्रांतीचें फुडारपण नेमस्त पंगडाकडेन आशिल्लें. पूण उपरांत क्रांतीच्या घुस्पागोंदळांत झुंडशाय जैतिवंत थारली. १६ जानेवारी १७९३ दिसा राजा सोळावो लुई हाचो शिरच्छेद केल्या उपरांत क्रांतीकारांनी राजसत्तेकडेन संबंद आशिल्ल्या हेर व्यक्तिंकूय ख्यास्त केली. फ्रांसांत प्रजासत्ताकाची थापणूक जाली. क्रांतीउपरांत कांय तेंप माक्सीमील्यँ रोब्झपीअर हाणें फ्रॅंच शासनाचेर आपलो शेक गाजयलो. पूण फ्रॅंच सैन्यान ताची हत्या केल्याउपरांत जॅकबिन्झ पक्ष सत्तेर आयलो. पूण १७९७तले वेंचणुकेंत तांचो पराभव जालो. फ्रांसांत बेशिस्त आनी अशांतता दिसान दीस वाडत आशिल्ली. देखून नेपॉलियन बॉनापार्ट कॉन्सल म्हणून फ्रांसांत अधिकाराचेर आयल्या उपरांत ताका लोकांनी आपलो पुराय तेंको दिलो.

नेपोलियनान शासनाचेर आपलो शेक बसयल्या उपरांत देशाच्यो तत्कालीन गरजो भागोवन, देशांत स्थिर आनी भक्कम शासन स्थापीत केले. ताणें प्रशासनाभितरूय साबार सुदारणा केल्यो. तांच्यातल्यो नेपॉलियन विधिसंहिता (Nepolean Code), इन्स्तित्यूत द फ्रांस ही शिक्षणसंस्था प्रसिद्ध आसा. नेपॉलियनान केल्या वावराक लागून ताची लोकप्रियता एकसारकी वाडत रावली. २ डिसेंबर १८०४ ह्या दिसा फ्रांसाचो बादशाहा म्हणून पोपान ताचो राज्याभिषेक केलो. नेपॉलियनान व्हड आनी प्रभावी लश्कर उबारून ऑस्ट्रिया, प्रशिया, रशिया आनी हेर युरोपी देशांक हारोवन ताणें फ्रांसाचो विस्तार वाडयलो. स्पेन आनी रशियेंतल्या मोहिमांक लागून ताचें खूब नुकसान जालें. लाइपसिकच्या लडायेंत ताचो पराभव जाल्या उपरांत ताका एलबा जुंव्यावयले बंदखणीत दवरलो. थंयच्यान तो पळून फ्रांसांत आयलो. उपरांत ताणें परतून शंबर दिस आपलो फ्रांसांत शेक गाजयलो. पूण वॉटर्लूच्या झुजांत ताचो पराभव जाल्या उपरांत ताका सेंट हेलीना जुंव्याचेर धाडलो. थंयच ताका मरण आयलें.

फ्रेंच राज्यक्रांती ही यूरोपी इतिहासांतली एक म्हत्वाची घडणूक. तिका लागून युरोपांतलो सरदार वर्गाचो शेक ल्हव ल्हव उणो जायत रावलो. तशेंच समतेचें वातावरण हेर युरोपीय देशांतूय पातळ्ळें. क्रांतीउपरांत खंयचेच कारकीर्दीक फ्रांसांत सामान्य अधिमान्यता मेळूंक शकली ना. फ्रांसाच्या राजकीय नेत्यांभितर एकमत केन्नाच जावंक शकलें ना. क्रांतीउपरांत फ्रांसांत वेगवेगळ्यो कारकीर्दी जाल्लो त्यो अशो-

पयलें प्रजासत्ताक (१७९२-९९); कॉन्सलेटचो काळ (१७९९-१८०४); पयलें साम्राज्य (१८०४-१४), बूरबाँ राजवट (१८१४-३०); जुलय राजेशाय-आर्लेआ घटनावाद (१८३०-४८); दुसरें प्रजासत्ताक (१८४८-५२); दुसरें साम्राज्य (१८५२-७०); तिसरें प्रजासत्ताक (१८७०-१९४०); व्हिशी राजवट (१९४०-४४); द गॉलची राजवट (१९४४-४६); चवथें प्रजासत्ताक (१९४६-५८) आनी १९५८ सावन पांचवें प्रजासत्ताक.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत फ्रांसान आपलें विस्तारवादी आनी वसाहतवादी धोरण चालूच दवरलें. ह्या धोरणाक लागून ताका हेर युरोपी देशांआड साबार झुजां करची पडलीं. १८७० ते ७१ ह्या तेंपार जर्मनीआड जाल्ल्या झुजांत फ्रांसाचो पराभव जावन खूब नुकसान जालें. पूण एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक फ्रांसाचो आयात-निर्यात वेपार वाडलो. उद्देगिक-उत्पादनाकूय चालना मेळ्ळी. अर्थीक भरभराटी वांगडाच फ्रांसान आपलें लश्करी सामर्थ्यूय वाडयलें.

पयल्या म्हाझुजांत (१९१४-१९) फ्रांस दोस्त राश्ट्रांक मेळून जर्मनीआड झुजलो. जर्मनीचो पराभव जाल्या उपरांत पॅरिस शारांत जॉर्झ क्लेमान्सोच्या अध्यक्षतायेखाला शांतता परिशद जावन १९१९त व्हर्साय कबलात जाली. फ्रांसाक ॲल्सेस-लोरेन प्रांत परतून मेळ्ळे. झुजांत फ्रांसाक जैत मेळ्ळें पूण ताची मनीसहानी आनी वित्तहानी खूब जाली. पॉप्युलर फ्रंट सरकार अधिकाराचेर आयल्ल्या उपरांत ताणें कांय कामगार आनी भौशिक सुदारणा अंमलांत हाडल्यो. पूण पॉप्युल फ्रंट सरकार खूब दिस तिगूंक शकलेंना. जर्मनींत हिटलराची आनी इटलींत मुसोलिनीची हुकूमशाय वाडत आसा तें जाणून फ्रांसान आपलें लश्कर सामर्थ्य आनीकूय बळिश्ट केलें. दुसऱ्या म्हाझुजांतूय फ्रांस जर्मनीआड झुजलो. पूण हिटलरान फ्रांसाचेर घुरी घालून ताचो व्हड प्रांत हातासलो. त्या वेळार पॉल रेनाँ हो फ्रांसाचो प्रधानमंत्री आशिल्लो. जुलय १९४०त ताणें आपल्या पदाक सोडचीट दिली. उपरांत मार्शल पेतँ फ्रांसाचो प्रधानमंत्री जालो.

मार्शल पेतँ प्रधानमंत्री जाल्लो तेन्ना फ्रांसाचो ३/४ भाग जर्मनीच्या शेकातळा आशिल्लो. व्हिशी शासनाचो कारभार एप्रिल १९४५ मेरेन चालू आसतना मार्शल पेतँ अध्यक्ष रावलो. दोस्तांच्या फौजांनी नॉर्मंडी हांगा सैन्य देवोंवन फ्रांसात दुसरी आघाडी उघडली आनी थोड्याच दिसांभितर 'द गॉले' हाच्या नेतृत्वाखाला फ्रेंचांच्या तात्पुरत्या सरकाराची थापणूक पॅरिसांत जाली. फ्रांस हिटलराक शरण गेल्लो. तेन्नासावन द गॉले हाणें आफ्रिकेंतल्या फ्रेंच वसाहतिंतल्यान हिटलराकडेन झूज चालूच दवरलें.

दुसरें म्हाझूज सोंपल्या उपरांत १९४६त फ्रांसाच्या चवथ्या प्रजासत्ताकाची थापणूक जाली. प्रजासत्ताकाची थापणूक करतना संविधान सामतीचोय निवाडो केल्लो. द गॉले आनी संविधान समितीचे सुरवेकसावन केन्नाच जमलें ना. लश्करी पतपुरवणेच्या प्रस्नावयल्यान संसदेकडेन मतभेद जावन द गॉले हाणें राजीनामो दिलो.

फ्रेंच जनतेक संविधानांत संशोधन करून थिर राजवट हाडपाची गरज चड जाणवपाक लागली. अल्जिअर्स हांगाच्या फ्रेंच सैन्यान राज्याची मुखेल सत्ता काबीज करपाची तयारी केल्ली. हाका लागून त गॉले हाका परत सत्तेर हाडचो पडलो. द गॉलेन सत्ता आपणावन मीशेल दब्रे हाच्या पालवान नवें संविधान तयार केलें.

१९५८त जाल्लें वेंचणुकेंत द गॉले हाच्या पक्षाक बहुमत मेळ्ळें. द गॉले हाची राश्ट्राध्यक्ष म्हणून निवड जाली. ताणें संविधानांत सुदारणा केली. १९६२त संविधानांत सुदारणाकरपाचेर भौशिकमत घेवन, अध्यक्ष वेंचणुकेंतल्यान वेंचून काडपाचो आनी अध्यक्षाची निवड ७ वर्सांखातीर जावची अशें थारायलें. जानेवारी १९५९ ते ६९ ह्या काळांत ताणीं साबार मळांचेर उदरगत घडोवन हाडिल्ली. फ्रेंच चलनाचें अवमुल्यन करपाक द गॉलेन केल्लो विरोध आनी फ्रेंच अर्थवेवस्थेची पुर्नरचणूक हांकां लागून ताची प्रतिश्ठा खूब वाडिल्ली. एप्रिल १९६९त मतभेद जाल्ल्यान ताणें राजिनामो दिलो.

द गॉले अध्यक्ष आशिल्लो तेन्ना 'शित झूजाक' नेट आयिल्लो. शित झुजाच्या काळांत एकसुऱ्या फ्रांसाचें पडबिंब आंतरराश्ट्रीय मळार उमटोवपाच्या खातीर द गॉलेन अमेरिका आनी ब्रिटनाकडेन वैर आपणायलें. पूण द गॉले उपरांत जॉर्झ पाँपीदू अध्यक्ष जाल्याउपरांत ताणें ब्रिटन आनी अमेरिकेकडेन परतून बरे संबंद स्थापीत केले. १९७४त पाँपीदू हाका अचकीत मरण आयिल्ल्यान फेरवेंचणूक जावन व्हॅलेरी जिस्कार देस्तँ अध्यक्ष जालो. द गॉले ते देस्तँ मेरनच्या काळांत फ्रांस अण्वस्त्रधारी प्रतिबंधक शक्त वाडयत रावलो. ह्याच काळांत फ्रांसाच्यो चडशो वसाहती स्वतंत्र जाल्यो.

१९८१त समाजवादी (सोशलीस्ट) ह्या डाव्या पक्षाक भोवमत मेळून फ्रान्कोयस मिट्रॅन्ड हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. फ्रांसाच्या इतिहासांत समाजवादी पक्षाक कार्यकारी आनी वैधानीक मंडळांत पयलेच फावट भोवमत फावो जाल्लें. १९८८त जाल्ले वेंचणूकेंत मिट्रॅंड होच फ्रांसाचो अध्यक्ष म्हणून परतून वेंचून आयलो. उपरांत ताणें ॲसेंबली बरखास्त करून फेरवेंचणूक घेतली. तातूंत समाजवादी पक्षाक भोवमत मेळ्ळें. मिट्रॅंडान मायकल रोकार्ड हाका प्रधानमंत्री केलो. पूण १९९१त रोकार्डोन राजिनामो दिल्ल्यान एदीत क्रॅरोन ही प्रधानमंत्री जाली. फ्रांसाची प्रधानमंत्री जावपी

ती पयली बायलमनीस. पूण १९९२त पक्षाभितर वाद जावन तिणेंय प्रधानमंत्री पदाक सोडचीट दिली. उपरांत प्रधानमंत्री म्हणून तिची सुवात पिएरे बॅरेगोव्ये हाणें घेतली.

**राज्यवेवस्था :** नव्या संविधानाप्रमाण फ्रांस हें प्रजासत्ताक, अविभाज्य, धर्मनिरपेक्ष, लोकशाय आनी समाजमोगी राश्ट्र. संविधानान सगळ्या नागरीकांक समान हक्क; जीण आनी संपत्ती हांची राखण; भाशणस्वातंत्र्य आनी धर्मस्वातंत्र्य दिलां. राश्ट्राध्यक्ष हो देशाचो मुखेली आसून, ताका सात वर्सांखातीर भौशिक मतदानांतल्यान वेंचून काडटात. प्रधानमंत्र्याची नेमणूक तो करता. ताच्या सल्ल्यानूच हेर सरकारी वांगड्यांची नेमणूक तोच करता. नेशन ॲसेंब्ली बरखास्त करपाचेय हक्क ताका आसा. खंयच्याय भासाभासींच्या प्रस्नांचेर भौशिकमत घेवपाचेय अधिकार ताका दिल्ल्यात. प्रधानमंत्री आनी हेर मंत्री संसदेक जापसालदार आसतात. देश कल्याणाखातीर नव्यो येवजण्यो आंखप, सरकारी धोरणांक आनी कारभाराक नवी दिका आनी गती दिवप हो तांचो मुखेल वावर.

पांचव्या प्रजासत्ताकांत संसदेच्या स्थानाचें आनी अधिकारांचें अवमुल्यन जालां. संसदेंत कनिश्ठ आनी वरीश्ठ अशीं दोन घरां आसा. कनिश्ठ घरांत वट्ट ५७७, जाल्यार वरिश्ठ घरांत ३१९ वांगडी आसतात. कनिश्ठ घराचो तेंप पांच वर्सांचो, जाल्यार वरिश्ठ घरातले एक तृतीयांश वांगडी दर तीन वर्सांनी निवृत्त जावन, तितलेच वांगडी नव्यान वेंचून काडटात. कनिश्ठ घरांतले वांगडी भौशिक मतदान पद्धतीन वेंचून काडटात. जाल्यार दर एक विभागांतले विभागीय परिशद वांगडी, विभागांतले नगरसेवक आनी विभागांतल्यान वेंचून आयिल्ले कनिश्ठ घरांतले वांगडी हांच्यातल्यान वरिश्ठ घराचे वांगडी णव वर्सांखातीर वेंचून काडटात.

थळावें प्रशासन २२ प्रांतांतल्यान चलता. भौशिक आनी अर्थीक उदरगत घडोवन हाडप हो थळाव्या प्रशासनाचो मुखेल वावर.

फ्रांसांत २ तरांची न्यायालयां आसात. पयलें खाजगी, दिवाणी आनी फौजदारी गुन्यावांखातीर आनी दुसरें प्रशासनाआड नागरिकांचें गाराणें आयकून घेवपाखातीर प्रशासकीय न्यायालय.

**अर्थीक स्थिती :** फ्रांस देशाचो आयज संवसारांतल्या गिरेस्त राश्ट्रांभितर पांचवो आंकडो लागता (१९९३). पिकाळ जमीन, लांब दर्यादेग, पिकावळीक फावो तशें हवामान आनी देशाभितर येरादारीची बरी वेवस्था हांकां लागून अर्थीक मळार फ्रांस देशान उंचेलो पांवडो हातासला.

अठराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दाक सावन फ्रांसाचो परराश्ट्रीय वेपार तशेंच देशाभितल्ल्या वेपाराचीय भरभराट जाली. शेतकी उत्पादनांतूय वाड जाली. पूण फ्रँच राज्यक्रांती आनी नेपॉलियन हाणें केल्लीं झुजां, हांचो फ्रँच अर्थवेवस्थेचेर खूब वायट परिणाम जालो. पयल्या आनी दुसऱ्या म्हाझूजांक लागून फ्रांसाची अर्थीक स्थिती पुरायपणान इबाडिली. दुसरें म्हाझूज सोंपल्याउपरांत फ्रांसांत राश्ट्रायीकरणाचें एक व्हड ल्हार उसळ्ळें. बँक, विमाकंपन्यो आनी हेर व्हड व्हड कंपन्यांचें राश्ट्रीयकरण जालें. राश्ट्रीयकृत उद्देगांच्या विकासाखातीर फ्रांसाक मुखेलपणान अमेरिकेकडच्यान अर्थीक आदार घेवचो पडलो. पूण हालींच्या तेंपार फ्रांसान अर्थीक मळार जी उदरगत केल्या ती तोखणाय करपासारकी आसा.

आयज शेतकी उत्पादनांत फ्रांसाचो युरोपांत पयलो क्रम लागता. पिकाळ जमीन, सौम्य हवामान, यंत्रांचो वापर, नव्या बियाण्यांचो उपेग, रसायना-साऱ्याचो वापर हांकां लागून पिकावळींत बरीच वाड जाल्या. सद्याक हांगाची ५७% जमीन शेतवडीखाल आसा. गंव, मको, बार्ली, ओट, ऊंस, बटाट ही हांगाची मुखेल पिकावळ. द्राक्षां, सफरचंद, पीच, पिअर, टमाट, आलुबुखार, जरदाळू, कोबी, गाजर, फूलकोबी, चिबड ही हांगाची मुखेल फळफळावळ आसा. फ्रांस हो व्हड सोरो उत्पादक देश आसा. पशुउत्पादनांतूय व्हडा प्रमाणांत वाड जाल्ली आसा.

फ्रांसाक सुमार २,८९७ किमी. लांबायेची दर्यादेग लाबिल्ल्यान आनी साबार ल्हान व्हड बंदरां आशिल्ल्यान नूस्तेंमारीचीय खूब वाड जाल्ली आसा. यांत्रिकीकरणाक लागून नुस्त्याचें प्रमाण बरेंच चड आसा.

हांगाचे वट्ट भूंयेतली १/४ भूंय रानांखाला आसा. रानांतल्या लाकडाचो कागद, वखदां, रसायनां करपाखातीर उपेग जाता.

फ्रांस खूबशा खनिजसंपत्तीच्या मळार गिरेस्त आसा. लोखण आनी कोळसो हीं हांगाची मुखेल खनीजां आसात. खनीज तेलाचेंय उत्पादन ह्या देशांत जाता. लिग्नायट, पोटॅश, सॉल्ट, गंधक, खनीज मीठ, सैमिक वायू हांचीय साठवण कांय प्रमाणांत आसा.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत जर्मनी आनी ग्रेट ब्रिटना प्रमाण फ्रांस देशांतूय उद्देगीक क्रांती घडोवन हाडपाखातीर खनीज कोळशाचोय खूब उपेग जाल्लो. दुसऱ्या म्हाझूजासावन जलविद्युत् शक्तिनिर्मितींत खूब वाड जायत गेली. सेन, ऱ्होन, सोन, गारॉन, ल्वार ह्या व्हड न्हंयांक लागून तशेंच मासीफ सेंट्रल, दक्षिण आनी दक्षिण-मध्य फ्रांस, पिरेनीज आनी आल्प्स हांच्यामदल्या दोंगरी प्रदेशांक लागून जलविद्युतनिर्मिती क्षमता खूब व्हड आसा. अणुशक्तीनिर्मितींत अमेरिकेच्या फाटल्यान फ्रांसाचो दुसरो आंकडो लागता.

उद्येगधंद्याच्या मळार हो देश खूब फुडारिल्लो आसून संवसारांत ताचो पांचवो आंकडो लागता. हांगासावन मशीनां, संगणक, शस्त्रास्त्रां, तरांतरांची यंत्रसामुग्री, रसायनां, विमानां आनी हेर वाहनां आनी तांचें सुटे भाग, कड्डुणां आनी हेर पिकावळ हांची निर्यात जाता. बरेचकडच्यान ह्या देशांत आयात जाता. हातूंत मुखेलपणान कच्चा मालाचो आस्पाव जाता.

**येरादारी आनी संचारण :** फ्रांस हो येरादारी मळाचेर खूब फुडारिल्लो देश. गांवगिऱ्या वाठारांनी लेगीत बऱ्या दर्ज्याचे रस्ते आसात. १९९३ मेरेन रेल्वेमार्गाची वट्ट लांबाय सुमार ३६,६८० किमी. आशिल्ली. वट्ट रेल्वेमार्गांतल्या सुमार ३०% रेल्वेमार्गांचें विद्युतीकरण जाल्लें आसा. देशाभितर जावपी विमान येरादारीय बरी आसा. एर फ्रांस, यूटीए आनी एर इंटर ह्यो नांवाजिल्ल्यो फ्रांस विमान कंपन्यो. ऱ्हेन आनी ऱ्होन न्हंयांतल्यान उदकमार्गा येरादारी जाता. हांगा बांदिल्लीं खाजनांय येरादारीखातीर प्रसिद्ध आसात. हांगा संवसारीक नामना मेळिल्लीं बंदरांय खूब आसात.

१९९३ मेरेन देशांत १०० वयर दिसाळीं उजवाडा येतालीं. नेमाळीं आनी म्हयनाळ्यांचो खपूय चड आसा. देशांतले चडशे लोक रेडिओचो लाव घेतात. सुमार ९०% लोकांच्या घरांनी दूरचित्रवाणी संच आसात. टपाल आनी दूरध्वनी वेवस्थाय बऱ्या दर्ज्याची आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** फ्रँच संस्कृती म्हळ्यार युरोपाची संस्कृती, अशे मत एकुणिसाव्या शेंकड्यामेरेन सादारणपणान आशिल्लें. विंगड विंगड कला, साहित्य, समाजीक वागणूक, फॅशन ह्या सगळ्या मळार फ्रँच समाजाचो प्रभाव खूब प्रमाणांत युरोपाचेर पडलो. फ्रँच राज्यक्रांतींतल्यान जगभर पाताळिल्ली स्वातंत्र्य, समता आनी बंधुता हीं मुल्यां आनी व्यक्तिनिश्ठता, विवेकवाद हांच्यासारकीं तत्वां फ्रँच समाजाची

आधुनिक जगाक व्हड देणगी आसा.

फ्रांसांतलो आयचो समाज हो कितल्योशोच जाती, जमाती आनी वंश हांच्या भरसणांतल्यान तयार जाला. फ्रँच भूंयचेर सुरवेक गॉल लोकांचो राबितो आशिल्लो. केल्टिक, जर्मॅनिक, नॉर्स, बास्क आनी हेर वंशांची भर पडून फ्रँच समाज घडत रावलो. यूरोप आनी आफ्रिकेच्या हेर भागांतल्यानूय हांगा बेल्जियन, इटालियन, मोल आनी स्पनिश लोक येतूच रावले. चडशा फ्रँच लोकांक लॅटिन वारसाचो चड अभिमान आसा.

वांशिक विंगडपणाक लागून तांचे भाशेंत, उच्चारांत, नांवांनी आनी तांचे चालिरितींत वेगळेपण जाणवता. पूण आपूण एका वंशाचो आसा आनी राश्ट्राचो आसा ही भावना तांच्या मनांत खोल रोमून बसल्या.

१९०५त शासन आनी चर्च वेगळी जाल्ल्या कारणान तेन्नासावन फ्रांसांत शासन पुरस्कृत असो खंयचोच अधिकृत धर्म ना. सगळ्या धर्मपंथांक आपल्यो आपल्यो धर्मीक संघटना चलोवपाचे कायदेशीर हक्क आसात. हांगाच्या प्राटेस्टंट लोकांभितरूय साबार उपपंथ आसात.

कला, खेळ आनी मनोरंजनाच्या हेर साधनांची हांगा बरीच उदरगत जाल्या. चित्रकला, शिल्पकला, वास्तूशिल्प ह्या मळांचेर फ्रँच लोकांनी संवसारभर नामना मेळयल्या.

फ्रांसाचे भूंयेक कलेचो वारसो तसो खूब आदल्या काळासावन लाबिल्लो. पुराणाश्मयुगीन आदिम कलेचे अवशेश फ्रांसाच्या साबार वाठारांनी खूब प्रमाणांत सांपडल्यात. पूण हातूंत फ्रँच लोकांचे आपलें अशें खाशेलेपण नाशिल्लें. इकराव्या शेंकड्यासावन मात फ्रांसाच्या कलेक स्वताचे अशें स्वरूप लाबलें.

चित्रकलेच्या मळार हांगा उदरगत जायत गेल्ली ती कांय मुखेल कारणांक लागुनूच. चवदाव्या लुईन १६४८त 'रॉयल अकादमी ऑफ फाइन आर्ट' ची थापणूक करून कलानिर्मिनीचेर राजसत्तचें नियंत्रण दवरलें. ह्या अकादमीन कलाशिक्षण आनी कला निर्मिती हांचेविशी साबार नेम थारावन कलेक स्पश्ट अशें स्वरूप दिलें. ह्या अकादमीची शिक्षणपद्धत खूब कडक आशिल्ली. चित्रकार पूसँ हो ह्या शिक्षणपद्धतीचो मुखेली आशिल्लो. ताच्या मतान कलानिर्मितीखातीर प्रमाणबद्धता, संयमित भावदर्शन आनी विशयांचें खोल गिन्यान आसप भोव गरजेचें. ह्या चित्रांनी एकूच तरेचे साम्य आसतालें. पूण चवदाव्या लुईच्या मरणा उपरांत मात तातूंत बदल जावपाक लागले. पंदराव्या लुईच्या तेंपार चित्रांतले विशय सादे आनी खुशालकायेचे अशे आसताले. चित्रकारांनी सामाजिक जिवीत रंगोवपाचे यत्न केल्ले. व्होतो, फ्रागॉनार आनी फ्रान्स्वा बूशे हे ह्या काळांतले म्हत्वाचे चित्रकार आशिल्ले. झाक ल्वी दाव्हीद, कॉरो आनी ॲंग्र हे अठराव्या शेंकड्यांतले म्हत्वाचे चित्रकार आशिल्ले. हांच्यातलो कॉरो ही मुखेलपणान सैमिकीचित्रकार आशिल्लो. झाक ल्वी दाव्हिद हाणें अकादमीच्या सुवातेर १७७५त 'इन्स्टिटच्यूट नॅशनल' हाची थापणूक केली. मुखार तिका 'फ्रँच रॉयल अकॅदमी' हें नांव पडलें. कला आनी विज्ञान मळार उदरगत घडोवन हाडप हेंच तिचें मुखेल काम आशिल्लें. हातूंतल्यान नवअभिजातवादी कलासंप्रदाय उदयाक आयलो. एकुणिसाव्या शेंकड्यांतलो पयलो क्रांतीकारी चित्रकार म्हळ्यार दलाक्रूवा. अकॅडमीचे सगळे नेम मोडून ताणें आपल्या कल्पनांचो वापर करून चित्रनिर्मिती केली. बार्क ऑफ दान्ते (१८२२) हें व्हड चित्र रंगयलें. ताणें ह्या चित्राचेर खूब टिका केल्ल्यो. द लाक्रूवा हाणें चित्रकलेचेर खूब लिखाण केल्लें. उपरांत कूर्बे (१८१९-७७) हाणें वास्तववादी शैलींत चित्रण केल्लें. पॅरिसांत एदार माने, क्लोद मॉने, रन्वार, अद्गार दगा, पिसारो आनी हेर चित्रकारांनी पॅरिस हकप्रत्ययवादी चित्रसंप्रदाय निर्माण केल्लो. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक पॅरिस हें जगांतलें एक मुखेल आनी म्हत्वाचें कलाकेंद्र आशिल्लें. पॅरिसांत निर्माण जाल्ल्या विंगड विंगड आधुनिक कलाप्रवृत्तींक एकठांय हाडून तिका 'एकोल दी पॅरिस' अशें म्हण्टात. तातूंत फ्रँच चित्रकारांवांगडा हेर देशांतल्या कलावंतानीय वांटो घेतिल्लो. आधुनिक चित्रकलेच्या मळार साबार संप्रदाय निर्माण जाले. बिंदुवाद, घनवाद, रंगभारवाद, अभिव्यक्तिवाद आनी अप्रतिरूप कला आनी हेर आधुनिक पंथ आनी उपपंथ हांगा निर्माण जाले. सेझान, गोगँ, सरा, तूलूझ-लोत्रेक, मातीत, र्वो आनी ब्राक हे विसाव्या शेंकड्यांतले म्हत्वाचे चित्रकार आशिल्ले.

संगीत आनी नृत्याच्या मळारूय हांगा बरीच उदरगत जाल्या. साबार गितां आनी संगित प्रकारांवांगडा नवींनवीं वाद्यांय हांगा आयलीं. बदलत्या काळांत संगिताचे विशयूय बदलपाक लागले. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत मेस्यां आनी ताचो शिश्य बूलेझ हाणीं फ्रँच संगिताक एक नवीं दिका दिली. फ्रांसांतली आयची संगितीक विचारसरणी वैज्ञानिक आनी यंत्रीक घटकांनी चड प्रभावित जाल्ली आसा. हांगा वेगळ्या वेगळ्या सणपरबेच्या वा उत्सवाच्या निमतान विंगड विंगड नृत्यां सादर करपाची पद्धत आसा. 'रिगोदों' आनी 'फॅरन्दोल' हीं प्रॉव्हांसांतलीं प्रादेशिक नृत्यां फ्रांसाच्या हेर भागांनीय सतराव्या आनी अठराव्या शेंकड्यांत पातळ्ळीं. कॅथरिन द मेदीची हिचेखातीर १५८१त बॅले कॉमिका द ल राइन हें पयलें बॅले नृत्य सादर केल्लें. १७५०त फ्रँच दरबारांत मिन्युएल हें नृत्य लोकप्रिय आशिल्लें. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत पॅरिसाक 'कॅनकॅन' हें बायलांचें नृत्य पळोवपाखातीर खूब गर्दी जाताली. १९०९त पॅरिस हांगा पयलीं नृत्यसर्त घडोवन हाडिल्ली. कॅबरे हे खाशेले कार्यक्रम हांगा आजुनूय जातात. लिडो, कॉन्सर्ट मेयॅल, 'प्लेस पिगाल' क्रेझी हॉर्ससलून हीं नाटक घरां नृत्याखातीर नामनेची आसात. चित्रपट आनी रंगमाची ह्या मळांचेरूय फ्रांसान नांव घेवपासारको वावर केला.

फ्रांसांत सादारणपणान इकराव्या शेंकड्यासावन चर्च आनी कॅथीड्रलाच्या प्रवेशदारांचेर उत्थित शिल्पांच्या स्वरूपांत मुर्तिकला प्रकटपाक लागली. बाराव्या शेंकड्यांतल्या शिल्पांत 'अकॅंथस' ह्या कांट्यांचीं पानां आशिल्ले नक्षीचे खांबे, वण्टींचेर कांतयल्लें शिल्पपट्ट हांचे अलंकरण केल्लें आसतालें. बाराव्या शेंकड्यांत गॉथिक शैलीचो प्रभाव उत्थित शिल्पांत दिश्टी पडटा. तेराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक रीम्झ हांगाच्या शिल्पांत ॲनन्सिएशन शिल्प, व्हिजिटेशन शिल्प आनी देवदुतांचे शिल्प अशो तीन मुखेल प्रवृत्ती दिश्टी पडटात. चवदाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत उत्तरेकडच्यान आयिल्ले शिल्पकार आंद्रे बोन्व्ह आनी झां द लिएज्य हाणीं फ्रँच शिल्पकलेंत चड नेट हाडिल्लो. पंदराव्या शेंकड्यांत क्लाउस स्लूटर ह्या शिल्पकाराक लागून फ्रँच मूर्तिकलेंत खरी क्रांती घडून आयली. सोळाव्या शेंकड्यांत फ्रँच मूर्तीकलेचेर प्रबोधनकाळांतलो इटालियन शैलिचो व्हड प्रभाव पडलो. सतराव्या शेंकड्यांत देवदूतांच्यो आकृत्यो दाखवपाची पद्धत चड गाजली. फ्रँच राज्यक्रांतीच्या काळांत आनी साम्राज्य शाहीच्या काळांत नव-अभिजाततावादी शैलीच्या शिल्पांक नेट चडलो. झां कार्पो, रॉ दँ, बूर्देलन आनी हेर, ह्या काळांतले नामनेचे शिल्पकार आशिल्ले.

फ्रांसांतली वास्तूकला विंगड विंगड संस्कृतींची भरसण जाल्ल्या संस्कारांतल्यान तयार जाल्या. इकराव्या आनी बाराव्या शेंकड्यांतली

रोमनेस्क आनी बाराव्या ते पंदराव्या शेंकड्यांतली गॉथिक ह्या काळांतली फ्रेंच वास्तूकला स्वतंत्र आसा. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक आनी विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक ताणीं कॉंक्रीटाचे बांधकाम आनी कार्यवादी वास्तूकला ह्या नव्या संकल्पनांचे वास्तुकलेंत आस्पाव केलो.

फ्रांसांत मध्ययुगासावन चालू आशिल्ल्या कांय खेळांचे उल्लेख मेळटात. पूण, विसाव्या शेंकड्याकसावन खेळांविशीं चड आवड निर्माण जाली. सायकल सर्त ही फ्रांसाचो राश्ट्रीय खेळ. हांगा दरवर्सा साबार सायकल सर्ती जातात. तातूंतल्यो बॉर्दो ते पॅरिस आनी पॅरिस ते ब्रुसेल्स ह्यो व्हड सर्ती आसात. 'तूर दि फ्रांस' ही हांगाची सगळ्यांत व्हड सायकल सर्त आसा. सॉकर खेळाकूय हांगा खूब म्हत्व आसा. हांगा ८ हजारांवयर फुटबॉल क्लब आसात. 'फ्रेंच ऑपन टॅनिस' सर्तींत वांटो घेवपाक साबार राश्ट्रांचें पंगड हांगा येतात. कोर्ट टॅनिस हो खेळूय हांगा खूब प्रसिद्ध आसा. साबार आंतरराश्ट्रीय मोटार सर्तींय हांगा जातात. ल मां हांगा दर वर्सा जावपी चोवीस वरांची मोटार सर्तूय प्रसिद्ध आसा. स्किइंग, स्किन डायव्हिंग, बास्केट बॉल, पेंवप, गिर्यारोहण, मुश्टिझूज ह्या खेळांकूय हांगां खूब म्हत्व आसा.

**म्हत्वाचीं थळां** : पॅरिस हें राजधानीचें शार. उत्तर भागांत वशिल्लें आसून तें फ्रेंच संस्कृतीचें कुळार जावन आसा. ईशान्य भागांतलीं मेट्स, स्ट्रॅसबर्ग रूबे, लील, आग्नेयेक आशिल्ली लिऑं, ग्रनॉबल, दक्षिण प्रदेशांतली मार्से, नीम आनी अस्तंत भागांतलीं बॉर्दो आनी नॅन्ट्स हीं शारां उद्देगीक नदरेन आनी कारखानदारी खातीर प्रसिद्ध आसात. कॅन, निस, तूलाँ, डंकर्क हीं शारांय वेपारी बंदरां म्हणून म्हत्वाचीं आसा. देशाची भूंयमध्य सागरी दर्यादेग, अटलांटीक दर्यादेग, फ्रेंच आल्पस आनी ल्वार न्हंयेचें देगण हाणीं हेर साबार देशांनीय पर्यटन केंद्रां म्हणून नामना जोडल्या. नॉर्मंडी आनी ब्रिटनी हे प्रदेश आदल्या काळासावन नूस्तेंमारी केंद्रां म्हणून प्रसिद्ध आसात.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : पॅरिस.

## फ्रांस, आनातॉल : (जल्म : १६ एप्रिल १८४४, पॅरिस; मरण : १३ ऑक्टोबर १९२४, तूर).

नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो नामनेचो फ्रांसेझ कादंबरीकार. ताचे मुळ नांव आनातॉल फ्रांस्वा तीवो. पॅरिसांतल्या 'कॉलेज स्तानिस्लास' हे रोमन कॅथलिक शाळेंत ताणें आपलें शिक्षण पुराय केलें. ताच्या बापायचो पुस्तकां विकपाचो वेवसाय आशिल्ल्यान ताका खूब प्रमाणांत वाचन करूंक मेळ्ळें. ताणें ग्रीसी-लॅटीन साहित्यकृतींचो पुराय अभ्यास केलो. तातूंतल्यान ताचेर मानवतावादी विचारांचे संस्कार जाले.

सुरवेक ताणें कविता बरोवंक सुरवात केली. 'पारनॅसिअन' ह्या कलावादी फ्रांसेझ काव्यसंप्रदायाचो प्रभाव ताचेर कवितेचेर दिश्टी पडटा. ते नदरेन ताचो 'पोॲम दॉरे' (१८७३) हो उल्लेख करपासारको कविता झेलो. पूण ताची ल क्रीम द सिल्वेस्त बॉनार ही कादंबरी १८८१वर्सा उजवाडा येतकच कादंबरीकार म्हणून ताची नामना जाली. फुडें ताच्यो ताईस (१८९०), ला रोतिसरी द ला रॅन पेदोक (१८९३), लेझोपिनिऑं द मस्य जेरोम क्वान्यार (१८९३), लिस्त्वार कॉंतांपॉरॅन ह्यो कादंबऱ्यो उजवाडा आयल्यो. ताचे लिस्त्वार कॉंतांपॉरॅन हे कादंबरेचे चार खंड आसून तांचीं नांवां अशीं - लॉर्म द्यू माय (१८९७) इंग्लीश नांव द एल्म ट्री ऑन द मॉल; ल मानकॅ दोझिए (१८९७) इंग्लीश नांव द विकर-पर्क वुमन; लानो दा मेस्तीत (१८९९) इंग्लीश नांव द ॲमेथिस्ट रिंग; आनी मस्य बॅरजॅर आ पारी (१९०१) इंग्लीश नांव मस्य बॅरजॅर इन पॅरिस. ताच्या कादंबरीवरवीं पॅरिसांतल्या समकालीन समाजांतल्या वेगवेगळ्या वर्गाचें संकुचीतपण, पूर्वग्रहदुशीत नदर ह्या सारक्या दोशांचेर ताणें बोट दवरलां. हेभायर ताणें लाफॅर क्रॅंकबीच (१९०१) ही कथा, क्रॅंकबीच (१९०३) ही नाट्यकृती, ल दियेझाँ स्वाफ (१९१२) आनी लील द पॅंग्वँ ह्यो रुपात्मक कादंबरी उजवाडा आयल्यात.

ताणें १८८६-१८९३ ह्या काळांत ल तां (द टायम) ह्या नेमाळ्याखातीर जायते लेख बरयले. ताचे सुरवेचे लेख साहित्यीक विशयांवयले आसले तरी फुडें तो इगर्ज आनी प्रस्थापित समाजीक-राजकीय संस्थांचेर खर टिका करपी लेख बरोवंक लागलो. ताणें 'ल तां' ह्या नेमाळ्याखातीर बरयल्ले लेख ला व्हि लितेरॅर (४ खंड, १८८९-९२) ह्या नांवान संग्रहीत केल्ले आसा. ताचे बरपावळींत ल लिव्र द मॉं आमी (१८८५; माय फ्रॅंडस् बूक) आनी 'ल पॅतीत पॅर' (१९१८- लिटल पॅर) ह्या स्मृतिचित्रांचो आस्पाव जाता.

१८९६ फ्रांसेझ अकादमीचेर ताची नेमणूक जाल्ली. १९२१ वर्सा ताका साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार दिवन ताच्या साहित्यिक वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## फ्रॉयड, सिग्मंड : (जल्म : ६ मे १८५६, पर्झीबोर, चेकोस्लोव्हाकिया; मरण : २३ सप्टेंबर १९३९ लंडन).

आर्विल्ल्या मानसशास्त्राचो जनक तशेंच मनोविश्लेशण प्रक्रियेचो संस्थापक. स्क्लोमो सिगिसमंड फ्रॉयड हें ताचें मूळ हिब्रू भाशेंतलें नांव. सिगिसमंड हें उत्तर ज्यू लोकांक चाळोवपाखातीर व्हिएन्नांत वापरताले आनी सिग म्हळ्यार जैत. देखून १८७० वर्सा उपरांत ताणें सिग्मंड हें जर्मन अवतरण वापरपाक सुरवात केली.



सिग्मंडाचो बापूय जेकब हो मध्यम वर्गांतलो ज्यू आनी आवय आमाली नाथानसन ही जेकबाची दुसरी बायल.

तल्लख बुद्ध, अभ्यासांतलें सातत्य, कसलेंय उच्च कोटीचें काम करून दाखोवपाची आंतरीक इत्सा, विज्ञानिक जिज्ञासा, विचार स्वातंत्र्याचो कितलेंय मोल दिवन पुरस्कार करप हे गूण भुरगेपणांतूच ताचे भितर आशिल्ले.

विद्यार्थीदशेंत ताचेर टिंडोल, हक्सले, लायल, डार्विन, थॉमसन,

लॉकियर ह्या शास्त्रज्ञांचो तशेंच शेक्सपियर, गॅथ आनी दोतोवस्की ह्या नामनेच्या साहित्यिकांचो प्रभाव पडलो. तशेंच तत्त्वज्ञान आनी संस्कृतायेच्या इतिहासाची आवड ताचे भितर उत्पन्न जाली. जॉन स्टुअर्ट मिलाचो एक ग्रंथ ताणें जर्मन भाशेंत अणकारीत केलो. सुरवातेक ताका रसायनशास्त्रांत आवड आशिल्ली. पूण उपरांत तें सोडून तो शरिररचनाशास्त्र आनी शरिरकार्यशास्त्र (Anatomy आनी Physiology) ह्या क्षेत्रांत भितर सरलो. १८८१ वर्सा ताणें वैजकी शास्त्राची एम्.डी. ही पदवी व्हिएन्ना विद्यापिठांतल्यान घेतली आनी १८८३ वर्सा सावन थंयच तो अध्यापन करूंक लागलो. ताचो सगळो कल संशोधनाकडेनूच आशिल्ल्यान त्या काळांतले संवसारीक नामनेचे शास्त्रज्ञ हेमलोल्त्झ, द्यु बोआ, रेमो आनी रूदोल्फ फर्को हे ताचे गुरू आशिल्ले. कांय तेंप ताणें अर्नेस्ट ब्रुक हाचे प्रयोगशाळेंत तशेंच मेंदूरचनाशास्त्रज्ञ मेयनर्ट हाच्या मानसोपचार केंद्रांत काम केलें. १८८५ वर्सा पॅरिसाक शार्को ह्या नामनेच्या शास्त्रज्ञाकडल्यान ताणें मानसिक रोगांविशीं गिन्यान मेळयलें. अर्थीक परिस्थिती बरी नाशिल्ल्यान ताका संशोधन सोडून न्यूरोलॉजिस्ट म्हणून प्रॅक्टीस सुरू करची पडली.

१८८८ वर्सां तो मार्था बार्नेस हिचेकडेन लग्न जालो. ताका ३ पूत आनी ३ धुवो आशिल्ल्यो. ताची निमणी धूव आना फ्रॉयड ही एक नामनेची मानसशास्त्रज्ञ जाली. फ्रायडाचे घरकान्नीन बरे तरेन ताचो संवसार सांबाळून ताच्या संशोधनाक सदांच उत्तेजन दिलें.

१८८५-१८८७ ह्या दोन वर्सां मदीं ताणें दोन म्हत्वाचीं पुस्तकां बरयलीं. १) सान भुरग्यांचो अर्धांग २) वाच्या धरप (अेफेझिया).

व्हिएन्नांतलो नामनेचो दोतार जोसेफ ब्रुअर हाचेकडेन फ्रॉयडाची वळख जाली आनी तेन्ना सावन ताचे जिणेक वेगळेंच मोडण मेळ्ळें. ब्रुअरान 'आना ओ' नांवाचे हिस्टेरिया जाल्ले बायलेक संमोहनाच्या प्रभावाखाला आसतना पयलींच्यो यादी, याद करून उक्तावपाक लायल्यो आनी हे प्रक्रिये उपरांत तिचें दुयेंस कशें बरें जालें तें फ्रॉयडाक सांगलें. हे तरेचीं आनीक कांय प्रकरणां एकठांय करून ताणीं १८९५ वर्सा स्टडीस इन हिस्टेरिया हो ग्रंथ उजवाडायलो.

हाचे उपरांत संमोहनशास्त्राची वाट सोडून फ्रायडान 'फ्री असोसिएशन' हे रितीचो सोद लायलो आनी सिद्ध केलें की मनोविश्लेशण करपाचे प्रक्रियेंत दोन गजाली केंद्रभूत आसात. त्यो म्हळ्यार दुयेंतीची आंतरिक आडखळ (रेझिस्टन्स) आनी दुयेंतीचे ॲनालिस्टाकडेन भावनिक संबंद (ट्रान्सफरन्स).

फ्रॉयडान स्वताचेंय मनोविश्लेशण केलें. ताणें संशोधन करून सिद्धांत मांडले ते अशे -.

१. सुप्तमनांत चलिल्ले प्रक्रियेचो जागृत मनाचेर आनी मनशाचे वागणुकेचेर परिणाम.

२. मनांतले आंतरिक प्रवृतिंच्या झुजाचो सर्वसादारण मानसिक घडणेचेर तशेंच मनोविकार हाडपांत वांटो.

३. व्यक्तित्वाची घडण.

४. उपजत प्रवृत्तिंची कर्म करपाकडेन धांव (काम प्रवृत्ति आनी हिंसक प्रवृत्ति).

५. बाल्यावस्थेंत अस्थित्वांत आशिल्ली कामुक प्रवृत्ति (इन्फंटायल सॅक्शुअलिटी).

'द इंटरप्रिटेशन ऑफ ड्रिम्स' (१९३०) हें पुस्तक आपलें सगळ्यांत व्हड पुस्तक अशें फ्रॉयड मानतालो. साहित्य प्रकारांक तशेंच मानववंशशास्त्र आनी धर्मपंथांकूय ताणें मनोविश्लेशणाची चावी लावन तेविशीं स्पश्टीकरण करपी ग्रंथ बरयले. तातूंतल्या कांय ग्रंथांचीं नांवां अशीं आसात - द सायकोपॅथॉलॉजी ऑफ एव्हरीडे लाइफ (१९०४), थ्री एसेस ऑन द थिअरी ऑफ सॅक्शुअलिटी (१९०५), टोटेम अँड टाबू (१९१३), लिओनार्दो दा विंची (१९१६), बियाँड द प्लॅझ्यर प्रिन्सिपल (१९२०), एगो अँड द इड (१९२३), सिविलिझेशन अँड इट्स डिसकण्टेंट्स (१९३०), न्यू इंट्रोडक्टरी लॅक्चर्स ऑन सायकोॲनालिसिस (१९३३), मोझेस अँड मॉनाथीइझम (१९३९).

जेम्स स्ट्रॅची हाणें चोवीस खंडांनी संपादीत केल्ल्या 'द स्टॅंडर्ड एडिशन ऑफ द कम्प्लीट सायकॉलॉजिकल वर्क्स ऑफ सिग्मंड फ्रॉयड' (१९५३-६४) हातूंत फ्रॉयडाचें सगळें मानसशास्त्रीय लिखाण आयलां.

फ्रॉयडाच्या सिद्धांताक त्या काळांत खूब विरोध जालो. ताचे सिद्धांत जेन्ना अमेरिकेन उबारून धरले तेन्नाच ताका व्हिएन्ना विश्वविद्यालयांत प्रोफेसराचें पद मेळ्ळें. १९३० वर्सा ताका साहित्याखातीर आशिल्लो गटे (Goethe) पुरस्कार मेळ्ळो. १९३६ वर्सा रॉयल सोसायटीचेर ताची नेमणूक जाली.

१० वर्सां मनोविश्लेशणाचेर एकल्यानूच काम करतकच १९०६ वर्सा ताका खूब वांगडी मेळ्ळे. उपरांत आंतरराश्ट्रीय मनोविश्लेशणतज्ञांचो संघ स्थापन जालो.

६७ वर्सांचे पिरोयेचेर ताका तोंडाचो कॅन्सर जालो आनी साबार शस्त्रक्रिया करून घेवंच्यो पडल्यो. पूण ताचें कार्य थांबलेंना. ताणें निमाणो ग्रंथ पिरायेच्या ८३व्या वर्सा, मरणाआदी कांय म्हयने पयलीं बरयल्लो.

- डॉ. राजेंद्र हेगडे

## फ्रॉस्ट, रॉबर्ट ली :

(जल्म : २६ मार्च १८७४, सान फ्रान्सिस्को; मरण : २९ जानेवारी १९६३, बॉस्टन).

नामनेचो अमेरिकन कवी. बोलीभास, लोकवाङ्मयाची लय आनी न्यू इंग्लंडांतले सामान्य शांत जिणेंतल्या प्रतिकांचो प्रत्ययकारक वापर, जीवनमुल्यांचे उदरगतीखातीर काव्यांत उपेग करपाविशीं ताची नामना आसा.

फ्रॉस्टाचो बापूय विल्यम प्रेस्कॉट फ्रॉस्ट ज्युनियर हो न्यू इंग्लंडांत रावपी, हार्वर्ड कॉलेजीचो विद्यार्थी, लेविस्टाव्हनांतले खाजगी शाळेचो मुख्याध्यापक आशिल्लो. स्कॉटलंडांत जल्मल्ले शिक्षिकेवांगडा लग्न जातकच तो सान फ्रान्सिस्कोंत एका दिसाळ्याचो खबरांकार जालो. ताच्या मरणा उपरांत ताचे बायलेन नोकरी करून आपल्या दोन भुरग्यांचो सांबाळ केलो. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सांचेर बापायक मरण आयिल्ल्यान रॉबर्टाचेर आवयचे संस्कार जाले. स्कॉटिश निश्ठा आनी आवयची धर्मीक वृत्ती हांकां लागून रॉबर्टाच्या काव्यांत वेव्हारवाद आनी गूढवादाचो बरो संगम जाल्लो दिश्टी पडटा.

शालेय पुस्तकांपरस रॉबर्टाक बेसबॉल, फूटबॉल ह्या खेळांचीच चड गोडी आशिल्ली. ताचें माध्यमिक शिक्षण लॉरेन्साक जालें. तेन्नाच ताचे जिणेंत व्हड बदल जालो. १८९२ वर्सा ताका पदवी मेळ्ळी. १८९७ वर्सा ताणें हार्वर्ड विद्यापिठांत प्रवेश घेतलो. पूण दुयेंत पडिल्ल्यान दोन वर्सांभितरूच ताका तो अभ्यासक्रम सोडचो पडलो. बारीक जोराच्या

दुर्येसाक लागून ताचे जिणेचो मार्गूच बदललो आनी तो मेथुवेन हांगाच्या कुकुटपालन केंद्रांत नोकरेक लागलो. सुरवेक ताका हे नोकरेंत बरें यश मेळ्ळें. पूण १९०० वर्सा ताणें डेरी हांगाच्या शेताचेर काम करपाक सुरू केलें. हें शेत ताच्या आज्यान ताचेच खातीर घेतिल्लें.

मजगतीं ताची एलियानॉर मिरियम व्हायट हे वर्ग इश्टिणीकडेन वळख जाली आनी उपरांत १८९५ वर्सा ताचें लग्न जालें. ह्या काळांत ताणें कांय वर्सां शाळा मास्तर, गिरणीचेर तशेंच खबरांपत्राचो खबराकार म्हूणन काम केलें. डेरींत आसतना ताका चार भुरगीं जालीं. हांगाच ताणें आपल्यो नामनेच्यो कविता बरयल्यो. ताचे पयलीं ताणें आपल्यो खूबशो कविता नेमाळ्यांनी धाडिल्ल्यो, पूण 'द इण्डिपेण्डण्ट' ह्या वाङमयीन सातोळ्यांत १८९४ वर्सा उजवाडा येवन, विक्रेक गेल्ली ताची पयली कविता म्हळ्यार 'फुलपाखरू : शोकगीत'.

आज्याच्या मरणाउपरांत, रॉबर्टाक शेताची मालकी मेळ्ळी. पूण पुराय वेळ लेखक जावपाच्या इराद्यान ताणें आपल्या जाण्टयांची सगळी मालमत्ता विकली आनी आपल्या कुटुंबासयत तो इंग्लंडाक गेलो. बकिंगहॅम शायरांतल्या बिकन्सफीलांत ताणें आपलो संवसार थाटलो. डेरींत आसतना बरयल्ल्या आपल्या सगळ्या गितांचें-कवितांचें संकलन केलें. तें हातबरप लंडनांतल्या एका प्रकाशकान घेतलें आनी 'अ बॉयस विल' हो ताचो काव्यझेलो १९१३ वर्सा उजवाडा आयलो. 'नॉर्थ ऑफ बॉस्टन' हो वर्णनात्मक कवितांचो ताचो दुसरो झेलो त्याच प्रकाशकान दुसऱ्या वर्सा उजवाडायलो. ब्रिटीश समिक्षकांनी ताका बरो प्रतिसाद दिलो तेन्ना अमेरिकेंतल्या तीन प्रकाशकांनी रोखडेच ताच्या काव्यझेल्याच्या प्रकाशनाचे प्रस्ताव ताचेमुखार मांडले. एझरा पाऊण्ड, एडवर्ड थॉमस, डब्ल्यु. डब्ल्यू. गिब्सन, टी. इ. ह्युल्मे, लॅझली ॲबरक्रॉम्बी ह्या लेखकांकडेन, इंग्लंडांत रॉबर्टाची वळख जाली. १९१४ वर्सा गिब्सन आनी ॲबरक्रॉम्बी ह्या जॉर्जियी कवींनी निमंत्रण दिल्ल्यान ताणें ग्लॉसेस्टरशायरांतल्या गांवगिऱ्या वाठारांत स्थलांतर केलें. १९१५ वर्सा पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत तो अमेरिकेक परतलो. तेन्ना न्यूयॉर्कांत ताचीं पयलीं दोन पुस्तकां छापतालें. फ्रँकोनिया, एन. एच. नगरांत ताणें ल्हानशें शेत विकतें घेतलें.

१९१६-२० ह्या काळांत रॉबर्टान ॲमहॅर्स्ट कॉलेजींत इंग्लीश विशयाचो प्राध्यापक म्हूणन नोकरी केली. १९२१-२३ ह्या वर्सांनी ताणें मिशिगन विद्यापिठांत निवासी कवी म्हूणन काम करतकच परत एक वर्स ताणें मिशिगन विद्यापिठांत काम केलें. उपरांत १९३८ मेरेन ताणें ॲमहॅर्स्ट कॉलेजींतूच अध्यापनाचें काम केलें. १९३९-४३ मेरेन हार्वर्डांतल्या राल्फ वॉल्डु इमर्सन फॅलो ऑफ पोएट्री आनी १९४३ ते १९४९ मेरेन ताणें डार्टमाऊथ कॉलेजींत टिकनॉर फॅलो म्हूणन काम केलें. उपरांत १९४९ वर्सा सावन निमाणें मेरेन ताणें ॲमहॅर्स्ट कॉलेजींत सिम्पसन व्याख्यात्याचें पद सांबाळ्ळें.

फ्रॉस्टाचें व्यक्तिमत्व सामकें घुस्पागोंदळाचें आशिल्लें. ताची जांचेकडेन इश्टागत जाताली तांकां हातचे राखीनासतना तो आदार करतालो. एन. एच. डेरी खेड्यांतल्या पिंकरटन अकादमींतलो जॉन बार्टलेट हो ताचो विद्यार्थी इश्ट. ताचें इश्टागतीचें चित्रण मार्गारेट बार्टलेट ॲण्डरसनाच्या 'रॉबर्ट फ्रॉस्ट ॲण्ड जॉन बार्टलेट : द रॅकॉर्ड ऑफ ए फ्रँडशिप' (१९६३) ह्या ग्रंथांत दिसता.

फ्रॉस्टाक सैमांतूच धर्मीक अर्थ मेळटालो. स्वता ह्या शेतांत सुसेगाद पासयो मारतना ताका नव्यो काव्य-कल्पना येवजताल्यो. १९३९ ह्या वर्सा बायलेच्या मरणा उपरांत ताणें रिपन विटींतल्या ब्रॅड-लोफ स्कूल ऑफ इंग्लीश हाचे लागसार एक व्हड शेत विकतें घेतिल्लें. तीन फावटी शेताच्या वेवसायांत अपेस आयिल्लो हो कवी आपल्या दोन काव्यझेल्यांनी शेतकाराच्याच उतरांनी उलयतना दिसता.

फ्रॉस्टाचें काव्य विंगड विंगड तरांनी अणभवपाक मेळटा. देखून विंगड विंगड थरांतले भरपूर वाचक ताका मेळिल्ले. 'स्टॉपिंग बाय वुड्स ऑन अ स्नोई इवनिंग' ही ताची नामनेची कविता.

सैमिक कवी वर्डसवर्थाची काव्यविशयक भुमिका जशी ताणें चालू दवरली तशीच १९व्या शेंकड्यांतल्या रॉबर्ट ब्राउनिंग हाचे संवाद आनी आत्मस्वगत सपनां पद्धतूय ताणें आपणायल्ली. तेच भाशेन, थिओक्रिटस्, व्हर्जिल अशा ग्रीक आनी लॅटीन कवींच्या अभ्यासाक लागून जानपद गीत रचना प्रकारांचेरूय ताचें प्रभुत्व आशिल्लें. ल्हान ल्हान भावगेय कवितां पसून दीर्घ, नाट्यात्म काव्यां मेरेन रचनेचे वेगवेगळे प्रकार फ्रॉस्टाचे कवितेंत मेळटात. काव्याचोय जल्म आनंदांत आनी शेवट तत्त्वचिंतनांत जाता अशें फ्रॉस्ट मानता. ताची कविता वयर वयर सादी भासली तरीय ती सामकी खोल आनी संपन्न आसा. ताची पुराय कविता 'कंप्लीट पोएम्स ऑफ रॉबर्ट फ्रॉस्ट' (१९५१) ह्या नांवान उजवाडा आयल्या. ताचे कांय नामनेचे काव्यझेले अशे आसात – माउंटन इंटरवल (१९१६), न्यू हँपशायर : ए पोयम विथ नोट्स ॲंड ग्रेस नोट्स (१९२३), वेस्ट-रनिंग ब्रूक (१९२८), अ फर्दर रेंज (१९३६), अ विटनॅस ट्री (१९४२), अ मास्क ऑफ रिझन (१९४५), स्टीपल बुश (१९४७), अ मास्क ऑप मर्सी (१९४७), ॲंड ऑल वी कॉल अमेरिकन (१९५८), इन द क्लिअरिंग (१९६२).

अ वे आऊट (१९२९) ह्या नांवाचें एक नाटकूय ताणें बरयलें.

– डॉ. आनंद पाटील

## फ्रीट आल्फ्रेट हेर्मान :

(जल्म : ११ नोव्हेंबर १८६४, व्हिएन्ना; मरण : ५ मे १९२१, व्हिएन्ना).

शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो जर्मन शांततायवादी चळवळीचो अक संस्थापक आनी ऑस्ट्रियन विचारवंत. तरणेपणांतूच तो बर्लिनाक वचून पुस्तक लिकपाचो धंदो करूंक लागलो. ह्या काळांत नेमाळ्यांतल्यान तो बरपूय करतालो. बर्लिनाक ताची बॅर्ता फोन झुटनर हे शांततायवादी बायलेकडेन वळख जाली. तिच्या प्रभावान तो 'तुमचीं शस्त्रां सकयल दवरात' (Die Waffen neiderl) ह्या नांवाचें नेमाळें काडून १८९१ संवसारीक शांततायेचो प्रसार करूंक लागलो. फुडें हेंच नेमाळें १८९९ सावन शांततायरक्षक (Friedenswarte) ह्या नांवान उजवाडा येवंक लागलें. फुडें ताणें १८९२त 'जर्मन शांतताय संघ' स्थापन केलो. पयल्या म्हाझुजाआदीं हो संघ जर्मन शांततायवादी चळवळीचो केंद्रबिंदू आशिल्लो. ताणें आंतरराश्ट्रीय अराजकतायेक तोंड दिवपाखातीर कायदेशीर उपाय आनी अध्यात्मिक नदर हांकां पुनरूजीवन दिवपाक पुरस्कार केलो. पयल्या म्हाझुजांत जर्मनीन आपणायल्या आक्रमक धोरणांचेर ताणें टिका केली आनी ताचो निशेध करपाक तो स्वित्झर्लंडाक गेलो. थंयच्यान तो आंतरराश्ट्रीय सामंजस्य आनी संघटना हेविशींचे लिखाण करूंक लागलो.

शांतताय पातळावपाचे नदरेन ताणें झुजांतल्या राश्ट्रांक आव्हान केलें आनी ते नदरेन तो यत्नूय करूंक लागलो. पयल्या म्हाझुजा उपरांत

व्हर्साय शारांत (१९१९) शांततायेची कबलात जाली. ही कबलात ताका मान्य नाशिल्ली. तरी लश्कराच्या बळार ही कबलात फाफडून उडोवची न्हय देखून ताणें शिटकावणी दिली. संवसारीक शांततायेविशींचे आपले विचार ताणें Handbuch die Friedenshewegund (इंग्लीश - हॅंडबूक ऑफ द पीस मुव्हमॅंट, २ खंड, १९११-१३) आनी Mein Kriegstagebuch (इंग्लीश - माय वॉर डायरी ४ खंड १९१८-२०) ह्या दोन ग्रंथांवरवीं मांडले. ताच्या ह्या शांततायेच्या वावराखातीर ताका १९११ वर्साचो शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार टोबिआस मिखायल कारेल आसर हाच्या वांगडा वांटून मेळ्ळो.

– कों. वि. सं. मं.

## फ्रीयश, आंतानियु जुजे, इ. दा गाम एस्. द कॉश्तः

(जल्म : १७ फेब्रुवारी १९३०, इनहेबन, मोसांबीक).

सुटकेझुजारी. ताणें लिसेंव आनी गोंय वैजकी म्हाविद्यालयाचें पयल्या वर्सा मेरेनचें शिक्षण घेतलें. भुरगेपणासावन तो राश्ट्रीय चळवळींत वाटो घेतालो. १९५०त तो नॅशनल कॉंग्रेस गोवा संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी जालो. प्रभाकर सिनारी हाणें स्थापन केल्ले रांकोर पात्रिऑतिक हे संस्थेचो तो वांगडी आशिल्लो. पुर्तुगेज सरकाराच्या गुपित बातम्यांचो थाव लावप, पूल, विमानतळ हांचे फोटो काडून हाडून आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या मुखेल्याकडेन पावोवप असलीं कामां तो करतालो. पूण तो पणजी नगरपालिकेचो कर्मचारी आशिल्ल्यान ताका पोलिसांची नदर चुकोवन काम करचें पडटालें. पूण पोलिसांक ताच्या वावराचो थाव लागलो आनी ३१ मे १९५६ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण पुरावो कांय मेळूंक नाशिल्ल्यान तीन वर्सां आनी तीन म्हयन्यांनी ताची सुटका जाली. तो परत आपले नोकरेचेर रुजू जातकच ऑक्टोबर १९६० वर्सा थोड्या तेंपाखातीर ताका परत बंदखणींत वचचें पडलें. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

– कों. वि. सं. मं.

**फ्रेंच भास :** फ्रेंच भास मुखेलपणान अस्तंत युरोपांत उलयतात. फ्रांसाभायर बेल्जियम, स्विट्झर्लंड आनी लक्सेंबर्ग हांचो कांय भाग आनी कॅनडाच्या कांय प्रांतांनीय ही भास उलयतात. तशेंच उत्तर आफ्रिका, कॉंगो, सिरिया, लेबानन, मादागास्कर ह्या प्रदेशांनीय संस्कृतीक भास म्हणून ती वापरांत आसा. भारतांत चंद्रनगर (प. बंगाल), पॉंडिचेरी (केंद्रशासीत), याना आँ आना माहे (केरळ) ह्या एका काळावयल्या फ्रेंच वसाहतींनी शिक्षण आनी राज्यकारभारांतय फ्रेंच भाशेचो उपेग करताले.

फ्रेंच भास ही इंडो-युरोपीयन भासकुटूंबाच्या लॅटीन फांट्याची रोमान्स बोली. हे भाशेचो लिखीत पुरावो आठव्या शेंकड्या पसून सांपडटा. तो कांय लॅटिन आनी जर्मानीक उतरांचो अर्थ दिवपी उतरांच्या स्वरुपांत आसा. इ.स. ८४२तलो 'स्ट्रॅसबगचो सपूत' ही ह्या भाशेची खरी सुरवात म्हणूं येता. हाच्या उपरांत धर्मीक आनी इतिहासीक स्वरुपाच्या बरपांतल्यान उपरांतचें फ्रेंच साहित्य जल्माक आयलें. पूण फ्रांसाच्या सगळ्या प्रदेशांतली बोली एकरूप नाशिल्ली. तिची दक्षिणेकडलीं आनी उत्तरेकडलीं रुपां वेगळीं आसून 'हय' ह्या अर्थाच्या वापरांत आशिल्ल्या उतरावयल्यान दक्षिण बोलयेक 'ऑक' आनी उत्तर बोलयेक 'ओइल' हें नांव आशिल्लें.

१५३९त फ्रेंच भास नामनेक पावली. ह्या वर्सापसून राजाज्ञेन न्यायदानांत आनी राजकारभारांत तिचो वापर जावपाक लागलो. विसाव्या शेंकड्याच्या सुरवेक मेरेन फ्रेंच ही युरोपांतली दरबार आनी सुसंस्कृत वर्ग हांचीच वेव्हारभास जावन आशिल्ली. आंतरराश्ट्रीय करारांनी आनी वाटाघाटींनी ती वापरताले. पयल्या जागतीक झुजाउपरांत मात हें आंतरराश्ट्रीय म्हत्व उणें जावपाक लागलें आनी अमेरिकेच्या राजकीय फुडारपणाक लागून तिची जागा इंग्लीश भाशेन घेतली.

फ्रेंच भास बरोवपाखातीर रोमन लिपीचो वापर करतात. ही लिपी अशी – a b c d e f g h i j (k) l m n o p q r s t u v (w) x y z . हातूंतलीं k आनी w हीं अक्षरां कांय परकी उतरांनीच दिसतात (képi, Wagon). हांच्या शिवाय संवृत स्वरदर्शक ' (एग्यू), विवृत स्वरदर्शक \ (ग्राव्ह) आनी दीर्घत्वदर्शक ^ (सिर्कों फ्लेक्स). हीं तीन आघात चिन्नां आसून फाटोफाट येवपी स्वर वेगळे उच्चारपाक जाय हें दाखोवपी .. (त्रेमा) हें चिन्न आसा. (देखीक - hais ए, पूण haïs आइ).

बरोवपाच्या नदरेन उच्चाराचे नेम अशे - स्वर : a आ; e अनुच्चारीत, अ, ए जांव अॅ; é ए; è अॅ; ê दीर्घ ए; i इ; o ओ जांव ऑ; u ओंठयें इ; y इ, जांव फुडें स्वर आयल्यार य; ai, ay ए जांव अॅ; au ओ जांव ऑ; ei, ey ए जांव अॅ; eu ओंठयें ए; eau ओ; oi, oy वा; ou उ.

**व्यंजनां** - b ब; d द; f (घांसडीं) फ; k क; L ल; m म; n न; p प; r (ताळवी) र; v (दांत वोंठयीं)व; w (वोठयीं) व; x क्स जांव ग्झ; z (दांतयी घांसडीं) झ.

c उपरांत a, o, u जांव व्यंजन आयल्यार क; e, i, y आसल्यार स; h आयल्यार ग्रीक उतरांत क; हरशी श; c सकल ल्हान s (सेदिय) आसल्यार स.

g उपरांत a, o, u जांव व्यंजन आयल्यार ग; e, i, y आयल्यार (ताळवें घांसडें) झ.

उपरांत e, i, y आयल्यार gu चो उच्चार ग.

h सदांच अनुच्चारीत; पूण ph = f

j सदांच (ताळवें घांसडें) झ

qu = क

s दोन स्वरांमदीं आयल्यार (दांतयें घांसडें) झ; हेर जाग्यार स.

t त; - tion, tie त स.

LL हें बरप i आनी स्वर हांच्यामदीं आयल्यार ताचो उच्चार य (fille फीय 'चली'), i पयलीं स्वर आयल्यार ill चो उच्चार य (faille फाय).

b, d, g, j, k, p, s, t, u, w, x, z हीं व्यंजनां उतरांचे शेवटाक अनुच्चारीत आसतात.

**ध्वनिविचार :** स्वर – आ, इ, ए, अॅ, उ, ओ, ऑ (ओंठये) इ, (ओंठये) ए. हातूंतले आ, अॅ, ऑ (ओंठये) ए अनुनासिक आसूंक शकतात. ऱ्हस्व दीर्घत्व अर्थनिर्णायक नासता.

**व्यंजनां** – (स्पोटक) क, ग, त, द, प, ब; (अनुनासिक) न, म; (घांसडीं) फ, व, स, झ, श, झ; (कंपक) र; (पार्श्विक) ल; (अर्दस्वर) य, व; (ओंठयें) य.

**व्याकरण** – फ्रेंचीत नाम, सर्वनाम, विशेशण, क्रियापद, क्रियाविशेशण, उभयान्वयी अव्यय, उद्गारवाचक आनी संबंद हे उतरांचे विकारक्षम

आनी उरिल्ले चार विकारशून्य आसात.

**नाम** – नामांत दोन लिंगां (पुल्लींग आनी स्त्रीलींग) आनी दोन वचनां (एकवचन आनी भोववचन) आसात. उतरांचें लींग ताच्या रूपावयल्यान कळना. तें परंपरागत आसा. नामाचें अनेकवचन बरपांत s जांव x हो प्रत्यय लागून जाता. पूण हे प्रत्यय अनुच्चारीत आशिल्ल्यान उच्चाराच्या नदरेन बहुसंख्य नामांचें एकवचनांत आनी अनेकवचनांत कसलेंच वेगळेपण नासता. chat शा 'माजर' chats – शा 'माजरां'; dieu द्य 'देव' – dieux द्य 'देव'; femme फाम् 'सायल' femmes – 'बायलो'. कांय नामांचीं अनेकवचनां मात उच्चाराच्या नदरेन वेगळीं आसतात. cheval शवाल् 'घोडो' – chevaux शवो 'घोडे'; boeuf बफ् 'बैल' – boeufs ब 'बैल' बी.

नामापयलीं एकवचनांत पु. un, स्त्री. une आनी अनेकवचनांत पु. स्त्री. des हें निर्गुण विशेशण आनी पु. le, स्त्री. la पु. स्त्री. las हें खात्रीन लागता. स्वरादी नामांपयलीं le जांव la हांचे 'L' हें संक्षिप्त रूप जाता. à आनी de हीं सबंद उतरां पयलीं आयल्यार le आनी less हे तांचेकडेन एकरूप जावन तांची अनुक्रमान au, aux, du, des हीं रूपां जातात. la हें विशेशण मात अबाधीत उरता.

**सर्वनाम** : सर्वनामां अशीं आसात –

| कर्तो | प्रत्यक्ष कर्म | अप्रत्यक्ष कर्म | संयुक्त | असंयुक्त उतराउपरांत |
|---|---|---|---|---|
| | | **एकवचन** | | |
| प. पु. je 'हांव' | me | me | moi | moi |
| दु. पु. tu 'तूं' | tu | te | toi | toi |
| ति. पु. il 'तो' | le | lui | lui | lui |
| elle 'ती' | la | - | elle | elle |
| | | **अनेकवचन** | | |
| प. पु. nous | nous | nous | nous | nous |
| दु. पु. vous | vous | vous | vous | vous |
| ति. पु. ils | les | leur | eux | eux |
| elles | - | - | elles | elles |

ह्या सर्वनामांचीं स्वामित्वदर्शक विशेशणां अशीं –

| | | |
|---|---|---|
| | **एकवचन** | |
| प. पु. पु. एक. mon | स्त्री. एक. ma | पु. स्त्री. अनेक. mes |
| दु. पु. पु. एक. ton | स्त्री. एक. ta | पु. स्त्री. अनेक. tes |
| ति. पु. पु. एक. son | स्त्री. एक. sa | पु. स्त्री. अनेक. ses |
| | **अनेकवचन** | |
| प. पु. पु. स्त्री. एक. notre | | पु. स्त्री. अनेक. nos |
| दु. पु. पु. स्त्री. एक. votre | | पु. स्त्री. अनेक. vos |
| ति. पु. पु. स्त्री. एक. leur | | पु. स्त्री. अनेक. leurs |

हे विशेशणा उपरांत येवपी नामाचें लींग वा वचन दाखयतात – mon fils 'म्हजो चलो' – mes fils 'म्हजे चले' – ma file 'म्हजी चली' – mes filles 'म्हज्यो चलयो'.

**विशेशण** : मुळांत व्यंजनान्त आशिल्ली पूण जांचें अंत्यव्यंजन आतां उच्चारनात अशीं विशेशणां स्त्रीलिंगांत व्यंजनान्त जातात – grand ग्रां – grande ग्रांद. स्वरांत विशेशणां उच्चाराच्या नदरेन अविकारी रावतात. फकत मुळांत अंत्यस्थानार e नासल्यार बरपांत ती येता. habile आबील् 'हुशार', têtu तेत्यू 'हट्टी' – têtue तेत्यू बी. जांचें अंत्यव्यंजन उच्चारतात तीं विशेशणांय अविकारी उरून बरपांत e घेतात – fier फ्येर् 'अभिमानी' – fière फ्येर.

कांय विशेशणां अनियमीत आसात – frais फ्रे 'ताजो, थंड' fraîche फ्रेश.

सादारणपणान विशेशणां नामा उपरांत येतात – la langue fançaise – 'फ्रँच भास', accent aigu 'संवृत आघात' कांय विशेशणां नामापयलीं लाक्षणीक अर्थान आनी उपरांत वाच्यार्थान येतात – ungrand homm e 'व्हड पुरूश' – un homme grand 'धिप्पाड मनीस'.

'एक' हें विशेशण सोडून बाकी सगळीं संख्याविशेशणां अविकारी आसात – un doigt 'एक बोट' – une main 'एक हात' – deux doigts 'दोन बोटां' – mains 'दोन हात'.

**क्रियापद** – उतरांच्या प्रकारांत क्रियापद हो फ्रेंच भाशेंतलो सगळ्यांत विकारक्षम प्रकार आसा.

फ्रेंच क्रियापदांचीं मूळ रूपां er, ir, oir जांव re शेवटाक आसपी आसतात. हे प्रत्यय पयस केले की धातूरूप मेळटा. ह्या प्रत्ययांक धरून पयलीं क्रियापदांचे चार वांटे मानताले. आधुनिक व्याकरणांत मात तीन वर्गच मानतात – १) – er शेवटाक आसपी (फकत eller हें क्रियापद सोडून), २) जांच्या शेवटाक – ir आसा आनी जांच्या वर्तमान काळवाचक धातूसाधीत धातूक issant लागून जाता अशीं आनी ३) हेर सगळीं.

क्रियापदांचे रूपावलींत विध्यर्थ, संकेतार्थ आनी इच्छार्थ हे अर्थ आनी वर्तमान, अपूर्णभूत, पूर्णभूत, मिश्रभूत, भूतपूर्व, भविश्य, भविश्यभूत अशे काळ आसात. हांच्याशिवाय भूतकाळ आनी वर्तमानकाळवाचक धातूसाधीतां आसात.

क्रियापदांत दोन मुखेल वर्ग आसात – केवल क्रियापदां आनी आत्मवेधी क्रियापदां. आत्मवेधी क्रियापदांत कर्तो आनी कर्म एकच आसतात. केवल – J'aime, Je t'aime 'हांव मोग करतां' 'हांव तुजेर मोग करतां'. आत्मवेधी – Je m'aime 'हांव म्हजेरच मोग करतां'. मिश्र भूतकाळांत कांय अपवाद सोडल्यार सरळ क्रियापदांचें सहायक क्रियापद avoir हें आसा. जाल्यार आत्मवेधी क्रियापदांचे सगळ्याक être हें आसा. Je t'ai aimée 'हांवें तुजेर मोग केलो'; Je suis sorti 'हांव भायर सरलो' – Je me suis aime 'हांवें म्हजेरच मोग केलो'. अनेकवचनांत आत्मवेधीचो 'एकमेकांचेर' ह्या अर्थान प्रयोग जाता.

सकल être 'आस' आनी avoir 'लागीं आस' – ह्या सहायक क्रियापदाची आनी aimer 'मोग कर' – आनी se tuer 'म्हजो जीव घे – एकमेकांक मार –' हांचीं वर्तमान भूत आनी भविश्यकाळांचीं रूपां देखीक दिल्यांत –

वर्तमानकाळ

| être | | avoir | |
|---|---|---|---|
| Je Suis - nous Sommes | | J'ai - nous avons | |
| tu es - vous êtes | | tu ais - vous avez | |
| il / elle est - | ils / elles sont | il / elle a - | ils / elles ont |

| aimer | | se tuer | |
|---|---|---|---|
| J'aime - nous aimons | | Je tue - nous nous tuons | |
| tu aimes - vous aimez | | tu te tues - vous vous tuez | |
| il / elle aime - | ils / elles aiment | ilse / elle tue- | ils / elles se tuent |

भूतकाळ

Je fus - nous fûmes
tu fus - vous fûtes
il / elle } fut - ; ils / elles } furent

J'eus - nous eûmes
tu eus - vous eûtes
il / elle } eut - ; ils / elles } eurent

J'aimai - nous aimâmes
tu aimas - vous aimâtes
il / elle } aima - ; ils / elles } aimèrent

Je me tuai . . . . . . बी

भविश्यकाळ

Je serai - nous serons
tu seras - vous serez
il / elle } sera - ; ils / elle } seront

J'aurai - nous auron
tu auras - vous aurez
il / elle } aura - ; ils / elles } auront

J'aimerai - nous aimerons J'eme tuerai . . . . . . . बी
tu aimeras - vous aimerez
il / elle } aimera - ; ils / elles } aimeront

**क्रियाविशेशण :** कांय क्रियाविशेशणां सिद्ध आसात. vite 'बेगीन' tard 'उसरां', तर कांय क्रियाविशेशणां विशेशणांचे स्त्रीलींगी रूपाक -ment हो प्रत्यय लावन जातात. bon 'बरो' - bonnement 'बरे तरेन'; Sourd 'भेरो'; - Sourdement 'भेरेपणां'.

**उभयान्वयी अव्ययां :** मुखेल अव्ययां अशीं - et 'आनी', mais 'पूण' ou 'जांव', Cependant 'तरीय'. कांय उभयान्वयी अव्ययां जायत्या उतरांचीं आसात. Parce que 'कारण' afinque 'म्हणून, ह्या हेतून'.

**उद्‌गारवाचक :** कांय उद्‌गारवाचकां अशीं - ah, bon 'अरे वा, बरें', hélas 'आ रे रे', aïe 'आवय गे', suffit 'पुरो', chut 'श्श' ouf 'हुश्श'.

**संबंध उतरां :** शब्दयोगी अव्ययांचें काम 'क' पूण नाम, सर्वनाम हांच्यापयलीं येवपी : de '-चो' Par '-कडल्यान', - न'; avec '-वांगडा'; sans '-शिवाय (बगर)'.

**वाक्यरचना :** नाम क्रियापदा पयलीं येता. Guy Parle 'गी उलयता'. कर्म सर्वनाम आसल्यार क्रियापदा पयलीं येता: Guy Parle 'गी ताचेकडेन उलयता'. नाम आसल्यार उपरांत येता: Guy Parle à Marie 'गी मारी कडेन उलयता'. प्रत्यक्ष कर्म अप्रत्यक्ष कर्मपयलीं येता : Guy donne le livre à Marie 'गी पुस्तक मारीयाक दिता'. विशेशणां चड करून नामां उपरांत येतात: Le monlin rouge 'तांबडी गिरण', un coeur simple 'निश्कपट मन'. क्रियाविशेशण क्रियापदांउपरांत येता: il Prle doucement 'तो ल्हव उलयता'; il marche vite 'तो बेगी बेगीन चलता'. न्हयकारी क्रियापदापयलीं ne आनी उपरांत pas चो प्रयोग जाता : il ne marche pas vite 'तो बेगी बेगीन चलना', Marie n'aime pas charles 'मारीक शार्ल आवडना'. पूण rien, personne, Jamais सारकिल्या उतरांवांगडा आनी कांय थोड्या क्रियापदांवांगडा ne चो वापर जाता : il ment 'तो फट उलयता', il ne ment Jamais 'तो केन्नाच फट उलयना'. Je Sais 'म्हाका खबर आसा', Je ne Sais 'म्हाका खबर ना', Je ne Sais rien 'म्हाका कांयच खबर ना'.

प्रश्नवाचक रचना क्रियापद कर्त्यापयलीं दवरून जाता: il ment 'तो फट उलयता', ment-il? 'तो फट उलयता?' हाचे शिवाय थळ, काळ आनी रितीदर्शक प्रश्नवाचक अव्ययांय आसात : où est - il? 'तो खंय आसा?' Quand Partirez vous? 'तुमी केन्ना वतले?'. त्याप्रमाण हेर प्रश्नवाचक उतरांय आसात : Qui est Cet homme? 'हो मनीस कोण?', Quel est votre pays? 'तुमचो देश खंयचो?'. ज्या प्रश्नाची जाप 'हय' जांव 'ना' ही आसता तो विधानापयलीं Est - Ce que हें उतर दवरून तयार करपाक येता : Il est malade 'तो दुयेंत आसा' Est - ce qu'll est malade 'तो दुयेंत आसा?'

– कों. वि. सं. मं.

**फ्रेंच साहित्य :** इकराव्या शेंकड्याच्या शेवटामेरेन फ्रेंच साहित्याच्या विकासाक संद मेळूंक ना. पूण 'कांतिलॅन द सँत अलाली' (णववो शेंकडो, इं. शी. साँग ऑफ सेंट अलाली), व्ही द सँ लेझे (धावो शेंकडो) अशीं कांय चरित्रा ह्या काळांत बरयलीं. बाराव्या शेंकड्याच्या सुर्वेक 'ला शांसाँ द रॉलां' सारकिल्लीं वीरकाव्यां बरयलीं. तुरोल्दस हो ह्या काव्याचो कर्तो आसुंये अशें मानतात. बाराव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत 'रोमान्स' बरयलें. खास अशा दरबारी साहित्याचो हो एक नमुनो जावन आसा. 'क्रेत्यँ द त्रा' (सु. ११६५ ते ११९०) हो अशे रोमान्स बरोवप्यांतलो सुर्वेचो एक कवी.

बाराव्या-तेराव्या शेंकड्यांत बरयलीं कांय कथा-काव्यां उल्लेख करपासारखीं आसात. तातूंत 'मारी द फ्रांस' ह्या फ्रांसाच्या पयल्या कवियत्रीन रचिल्ल्या कांय काव्यांचो आस्पाव जाता. 'ओकासँ' आनी निकॉलॅत' ह्या प्रेमकथा चड फामाद आसात. 'शांसाँ द जॅस्त' आनी 'रोमान्ससारखें' साहित्य समाजाच्या वेल्या थरांतल्या म्हणजे उमरावांखातीर आशिल्लें. समाजाच्या हेर थरांतल्या लोकांखातीर जें साहित्य निर्माण जालें तातूंत 'फॅब्लोचो' (फ्रेंच फाब्ल्यो) आस्पाव जाता. चड करून बाराव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत आनी चवदाव्या शेंकड्याच्या सुर्वेक ह्या काळांत फॅब्लोची रचणूक जाली. फॅब्लो म्हणजे सर्वसामान्यांच्या सदचे जिवीताचेर आदारिल्ल्यो पद्यकथा. फॅब्लोचो प्रभाव फ्रान्साभायरय पडिल्लो. 'रोमां द रनार' ह्या पद्य कथा समूहांतल्यो सगळ्यांत पोरन्यो पद्यकथा सु. ११७५ ते सु. १२०५ ह्या काळखंडांत वेगवेगळ्या कविंनी रचल्यो. 'कुरोनमां द रनार' (३,००० ते ४,००० वळीं) आनी 'रनार ल नुव्हॅल' (सु. ८,००० वळी) हीं 'रोमाद रनारकडेन' नातें सांगपी दोन काव्यां तेराव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत रचलीं चवदाव्या शेंकड्याच्या पूर्वार्धांत 'रनार ल काँत्रफॅ' नांवाची आनीक एक रचना अस्तित्वांत आयली.

बाराव्या शेंकड्यापसून पंदराव्या शेंकड्यामेरेन फ्रांसांत भावकवितेची व्हड प्रमाणांत निर्मिती जाली. हे भावकवितेंतलो 'शासाँ द त्वाल' हो गीतप्रकार सगळ्यांत पोरनो जावन आसा. सरदार कॉनाँ द बेत्यून, शांपान्य ब्रीचा काउंट चौथा तीबो (१२०१-५३) हांच्यासारक्या रचनांचो तातूंत आस्पाव जाता. चौथा तीबोक भावकवितेचो सम्राट मानतात. सरदार वर्गाभायर ज्या कवींनी बऱ्या भावकवितेची रचना केली तातूंत ऱ्यूटबफ (१२५०-८५) हाचो उल्लेख करतात. बाराव्या शेंकड्याचो उत्तरार्ध आनी तेराव्या शेंकड्याची सुरवात हो बॉदलेचो काळ मानतात. 'सॅस्न' आनी 'जद सँ निकॉला' हीं ताची गाजिल्लीं काव्यां 'ज द सँ निकॉला' हो

अद्‌भूत नाट्याचो (मिरॅकल प्ले) फ्रान्सांतलो सगळ्यांत पोरनो नमुनो जावन आसा. गीयोम द माशो (सु. १३००-७७) हो चवदाव्या शेंकड्यांतलो एक उल्लेखनीय कवी. 'रोमां द ला रोझ' हें काव्य गीयोम द लॉरीस आनी झां द म्यून हाणीं बरयलें.

पंदराव्या शेंकड्यांत क्रीस्तिन द पीझां (सु. १३६४ - सु. १४३०) ही कवियत्री, आलँ शार्त्ये (सु. १३९०-सु. १४४०), शार्ल दॉर्लेआं (१३९२-१४६५), फ्रांस्वा व्हीयाँ (१४३१- ?), शार्ल दॉर्लेआं, फ्रांस्वा व्हीयाँ, ग्रां रेतॉरिकर आनी झॉर्झ शाटलँ (१४०४-७५) सारकिल्ल्या कवींचो आस्पाव जाता.

तेराव्या शेंकड्याच्या सुर्वेकपसून फ्रेंच भाशेंत उपरोधपर साहित्य जाल्ल्याचें दिसून येता. 'फोव्हॅल' नांवाच्या एका रोमान्साचो उल्लेख म्हत्वाचो आसा. फिलीप द थाउन ह्या अँग्लो - नॉर्मन धर्मोपदेशकान कांय पशुकथा बरयल्यात. फ्रेंच भाशेंतल्या पशुकथांचो हो सगळ्यांत पोरनो नमुनो जावन आसा. तेराव्या शेंकड्यांत गोत्ये हाणें एक पद्यमय ज्ञानकोश रचलो. 'लिमाज द्यू माँद' हें ह्या कोशाचें नांव. फ्लॉरेन्सांतल्या एका विद्वान आनी मुत्सद्दी ब्रूनेत्तो लातीनी हाणेंय फ्रेंचीत 'लिव्ह् द्यू त्रेझॉर' ह्या ज्ञानकोशाची रचना केली.

ग्रीक नाटकाप्रमाण फ्रेंच नाटकय कांय धार्मिक विधींतल्यान आकाराक आयलें. झां बॉदेल आनी न्यूटबफ हे दोगय सुर्वेचे फ्रेंच नाटककार. ताणीं बरयल्लीं 'ज द सँ निकॉला' (सु. १२००) आनी 'निराक्ल द ते ओफील' (सु. १२६१) हीं अद्‌भूत नाटकां सगळ्यांत पयलींचीं जावन आसात. फकत फार्स जांव प्रहसन म्हण्टात अशा नाट्याकृतींत ला फार्स द मत्र पातलँ (सु. १४६५) हो यशस्वी थारलो.

फ्रांसाच्या सुर्वेच्या कांय राजांची म्हायती 'ग्रांद क्रॉनीक द फ्रांसांत' मेळटा. प्रीमत नांवाच्या एका संन्याशान लॅटीन इतिवृत्तांच्या आदारान केल्लो हो फ्रेंच अणवाद (१२७४). फ्रेंचींतलो हो पयलो म्हत्वाचो इतिहास ग्रंथ मानतात. ह्या काळांतच झां सीर द झ्वॅव्हील (सु. १२२४-१३१७), झां फ्रवासार (सु. १३३७-सु. १४०४) आनी कॉमीन (सु. १४४६ - सु. १५११) हे व्हड इतिहासकार जावन गेले.

सोळावो शेंकडो हो फ्रेंच साहित्यांतलो प्रबोधनकाळ मानतात. ह्या काळांत जें साहित्य निर्माण जालें तातूंत चड करून काव्याचें नांव घेवप जाता. क्लेमां मारो (१४९६-१५४४) हाच्या 'ला दोलेसांस क्लेनांतीन' (१५३२, इं. शी. ॲडालेसन्स ऑफ क्लोना) ह्या काव्यसंग्रहान व्हड कवी म्हण ताची वळख करून दिली. तशेंच प्येअर द रॉंसार (१५२४-८५), झोआकिम द्यु बेले, बाईफ आनी आनीकय जायते कवी जावन गेले.

सोळाव्या शेंकड्यांत नाटकांचीय निर्मणी जाली. तातूंत धार्मिक नाटकांचो व्हड वांटो आसा. ह्या काळांत कांय स्वतंत्र नाटकांचें बरोवप जालें तातूंत एत्येन झॉदेल हाणें बरयल्ल्या 'क्लेओपात्र काप्तीव्ह' (१५५२) आनी 'युझेअन' (१५५२) हांचो आस्पाव जाता. 'क्लेओपात्र काप्तीव्ह' हो फ्रेंचीतली पयली शोकात्मिका आसून 'युझेअन' ही त्या भाशेंतली पयली सुखात्मिका जावन आसा. रॉबेअर गारन्ये (१५३४-९०) हाणें 'ब्रादामांत' हें नाटक बरोवन फ्रेंचीत शोक - सुखात्मिकेची सुरवात केली.

सोळाव्या शेंकड्यांतल्या कथाकारांत फ्रांस्वा राब्ले (१४९४ - सु. १५५३). मार्गरीत द नाव्हारे (१४९२-१५४९) आनी नोएल द्यू फेल (१५२०-९१) सारकिल्ल्या कथाकारांचो आस्पाव जाता.

इतिहासविशयक ग्रंथांत 'इस्वार द्यू शव्हालिए द बाय्यार' (सु. १५२४), 'दिस्कूर पॉलितीक ए मिलितॅर' (१५८७) आनी 'कॉमांतॉर' (१५९२) ह्या कांय उल्लेख करपासारक्या ग्रंथांचो आस्पाव जाता. इतिहास आनी संस्मरणिका बरोवपी बरोवप्यांत प्येअर द ब्रांतोम (१५४०-१६१४) हाचें नांव मुखेलपणान घेतात. झां बॉंदँ (१५३०-९६) हो राजकीय स्वरुपाचें बरोवप करतालो. गीयोम द्युव्हेअर (१५३५-१६२१) हो नीतिवादी. इश्वर विशयक बरपाच्या संदर्भात जॉन कॅल्व्हिन (१५०९-६४) हाचें नांव सगळ्यांत म्हत्वाचें. प्येअर व्हीरे (१५११-७१) हाणें कांय उपरोधप्रचुर पुस्तपत्रां बरयलीं. ह्या शेकड्यांतल्या मुशेल एकेम द मॉंतेन (१५३३-९२) ह्या निबंदकाराचें एक खास म्हत्व आसा.

१६३५त रिशल्यान फ्रेंच अकादमीची थापणूक केली. ह्या अकादमीचो एक वांगडी व्होझ्ला (१५८५-१६५०) हाणें 'रमार्क स्यूर ला लांग फ्रांसेझ' (१६४७) हो प्रबंध बरोवन फ्रेंच भाशेक नियमबद्ध आनी प्रमाण रूप दिवपाचो यशस्वी यत्न केलो. सतराव्या शेंकड्याच्या पुर्वार्धांत जाल्ल्या गद्यबरपांत ऑनोरे दूर्फे (१५६७-१६२५) हाचो 'आस्त्रे' (५ खंड, १६०७-१६२७) हो रोमान्स उल्लेख करपासारको आसा.

सतराव्या शेंकड्याच्या पुर्वार्धांत फ्रेंच रंगभुंयेचो बरोच विकास घडून आयलो. जायतीं नाटकां बरोवपांत आयलीं. तातूंत आलेक्सांद्र आर्दी (सु. १५७०-१६३२) हाचो मुखेलपणान आस्पाव जाता. ताणें पांचशें ते सातशें तरी नाटकां बरयलीं. प्येअर कोर्नेयच्यो (१६०६-८४) नाट्यकृती हो फ्रेंच नाटकांच्या इतिहासांतलो एक म्हत्वाचो पांवडो. 'ल सिद' (१६३७) ही फ्रांसाची पयली राश्ट्रीय शोकात्मिका बरोवपाचो मान ताका वता.

त्या उपरांतचो सु. वीस वर्सांचो कालखंड हो अभिजातवादी साहित्तीकांचो काळ मानतात. ह्या कालखंडांत मोल्येर, झां रासीन आनी झां दला फॉंतेन (१६२१-९५) हांच्यासारक्या व्हड साहित्तीकांचें वाङ्मयीन कर्तुत्व दिसून येता. मादाम द लाफायेत (१६३४-९३) हिणें बरयल्ल्या ला प्रँसेस द क्लेव्ह (१६७८) ही कादबरी उल्लेखनीय आसा. फ्रेंच भाशेंतली मनोदर्शनात्मक अशी ही पयली कादबरी जावन आसा. अभिजातवादाक तात्त्विक बसका निकॉला ब्वालो-देप्रेओ (१६३६-१७११) हिणें दिली.

अठरावो शेंकडो हो चडकरून गद्याचें युग जावन आसा. ह्या ज्ञानयुगाक 'फीलॉझोफीचें' म्हणजेच तत्त्ववेत्त्यांचें युग अशेंय म्हण्टात. लाबे द सँ - प्येअर हो एक अर्थशास्त्रज्ञ. राजकीय अर्थिक सुदारणांचो पुरस्कार करपी वेगवेगळे प्रकल्प ताणें आपल्या बरपांतल्यान मांडले. तातूंत 'प्रोजे द ला पॅ पॅरपॅत्युॲल' (१७१३) ह्या प्रकल्पाचो आस्पाव जाता. तशेंच ह्या युगाक 'व्हॉल्तेअरचें युग' म्हूणूनय वळखतात. कारण अठराव्या शेंकड्यांतल्या बौद्धिक जिवीताचेर व्हॉल्तेअरचो सगळ्यांत चड प्रभाव आशिल्लो.

विख्यात फ्रेंच साहित्यीक दनी दीद्रो हाणें आपल्या विश्वकोशांतल्यान - लांसिक्लोपेदीतल्यान - गतानुगतिकत्त्वाक विधायक विरोध करून मानवतावादी मुद्यां समाजांत रुजोवपाचो यत्न केलो. ब्युफाँ (१७०७-८८) हो निसर्गवैज्ञानीक 'इस्त्वार नाव्युरॅल' (४४ खंड, १७४९-१८०४) हो ताचो विख्यात ग्रंथ. तशेंच झां झाक रुसो (१७१२-७८) हो फकत फ्रांसांतच न्हय तर सगळ्या युरोपांतल्या विचारवंतांनी वस्ताद थारलो. 'कॉंत्रा सोस्पाल' हो ताचो जगद्‌विख्यात ग्रंथ.

नाट्यलेखनाच्या मळार फ्रेंच विचारवंत आनी साहित्यीक व्हॉल्तेअर हाणें बरयल्ल्या शोकात्मिकांचो उल्लेख गरजेचो आसा. तशेंच फीलीप

(नारीको देतूश (१६८०-१७५४) , आलेक्सी पीरॉं (१६८९-१७७३) आनी शार्ल पालीसो द मॉंत्न्वा (१७३०-१८१४) हे तिगय सुखात्मिकाकार. पूण प्येअर कार्ले द शांब्लँ द मारीव्हो (१६८८-१७६३) आनी प्येअर बोमार्शे (१७३२-९९) हे दोगय मात व्हड सुखात्मिकाकार जावन आसात.

आलँ रनेल ल साझ (१६६८-१७४७), प्येअर कार्ले द शांब्लँ द मारिव्हो आनी आंत्वान - फ्रांस्वा लाबे प्रेव्हो हे ह्या शेंकड्यांतले म्हत्वाचे कादंबरीकार. झाक आंरी बेर्नारदँ द सँ प्येअर (१७३७-१८१४), प्येअर शॉदेर्लो द लाक्लो (१७४१-१८०३) सारकिल्ले आनीकय जायते कादंबरीकार ह्या शेंकड्यांत जावन गेले. आंदे मारी द शेन्ये (१७६२-९४) हो ह्या शेंकड्यांतलो सर्वश्रेश्ठ कवी म्हणून वळखतात.

ह्या शेंकड्यांतल्या आत्मचरित्रात्मक बरपाक आयज म्हत्वाचें इतिहासीक स्वरूप फावो जाल्लें आसा. अशा बरपांत रुसोचें 'ले फॉंफेस्यॉं (१७८१-८८, इं. शी. कन्फेशन्स) आनी द्यूक 'द सँ सीमॉं' (१६७५-१७५५) हांचो आस्पाव जाता.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत तीन मुखेल साहित्तीक प्रवाह दिसून येतात : स्वच्छंदतावाद, वास्तववाद आनी प्रतीकवाद. मादाम द स्ताल (१७६६-१८१७) हे लेखिकेक स्वच्छंदतावादाची अग्रदूत मानतात. पूण शातोब्रीआं (१७६८-१८४८) हो खरो स्वच्छंदतावादाचो जनक. 'आताला' (१८०१) आनी 'रने' (१८०२) ह्यो ताच्यो कादंबऱ्यो त्या नदरेन उल्लेखनीय आसात. तशेंच लामार्तीन व्हिक्टर ह्यूगो, आल्फ्रेद व्हीक्तॉर द व्हीन्यी आनी आल्फ्रेद द म्यूसे हे कांय स्वच्छंदतावादी. म्यूसे आनी हेर स्वच्छंदतावादी कवींच्या अतिरेकी भावविवेशते विरुद्धची प्रतिक्रिया म्हणून 'ल पार्नास' ह्या नांवांचो साहित्य संप्रदाय अस्तित्वांत आयलो. लकाँत द लील (१८१८-९४) हो ह्या संप्रदायाचो फुडारी. रने फ्रांस्वा आर्मा स्युली - प्युदॉम (१८३९-१९०७), होसे मारी आ द हेरेदिया (१८४२-१९०५), फ्रांस्वा कोपे (१८४२-१९०८), लेऑं द्यर्क्स (१८३८-१९१२), ल्वी मेनार (१८२२-१९०१) हांचो आस्पाव ह्या संप्रदायाच्या हेर कवींनी जाता. लकाँत द लील हाच्या कवितेंत पार्नॅसिअन संप्रदायाची खाशेलेपणां दिसून येतात.

फ्रेंच प्रतीकवाद ही चड करून काव्य क्षेत्रांतली चळवळ. पॉल व्हर्लेअन (१८४४-९६) आनी स्तेफान मालार्मे (१८४२-९८) हे फ्रेंच प्रतीकवादाचे मुखेल प्रतिनिधी. आर्त्युर रँबोचो (१८५४-९१) प्रतीकवाद्यांचेर सगळ्यांत चड प्रभाव पडलो. एकुणीस वर्सांचो आसतनाच ह्या कवीन फ्रान्साचो व्हड कवी म्हण नामना मेळयली.

फ्रेंच साहित्यांतलो वास्तववाद हो चडसो कादंबऱ्यांतल्यान प्रकट जालो. स्तँदालच्यो कादंबऱ्यो ह्यो मानशास्त्रीय वास्तववादाच्यो देखी आसात अशें म्हणटात. ऑनोरे द बाल्झॅक (१७९९-१८५०), एमिल ओझ्ये (१८२०-८९), आलेकसांद्र द्युमाचा (१८०२-७०) सारकिल्ले जायते कादंबरीकार जावन गेले. झॉर्झ सांद ही एकुणिसाव्या शेंकड्यांतली एक व्हड लेखिका. फ्रांसांत प्रदेशीक कादंबऱ्यांची सुरवात तिणेंच केली. रॉमॅ रॉलां (१८६६-१९४४) हाणें 'झां ख्रितॉफ' (१० खंड, १९०४-१२) हे कादंबरींत एका प्रतिभाशाली जर्मन संगीतकारच्या जिविताचें चित्रण आनी ताच्या आदारान आपल्या जिविताविशींचें तत्त्वज्ञान परगटायलां.

रॉलां हाका १९१५ वर्साचें साहित्याचें नोबॅल पारितोशीक फाव जालां. आंद्रे झीद हाणें 'ल मॉरालिस्त', 'ला पोर्त एत्र्वात', 'ले फोमॉनॅय्यर' ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो. समलींगी संभोगाचें समर्थन करपी कॉरीदॉं (१९२४) हो ताचो ग्रंथ खूब गाजलो. १९४७ वर्सा झीदाक साहित्याचें नोबॅल पारितोशिक फाव जालें. प्रतीकवादी काव्याचो वारसो आल्बेअर सामँ (१८५८-१९००) आंरी द रेन्ये (१८६४-१९३६), एमील व्हरहारेन (१९५५-१९१६) आनी मॉरिस माटरलिंक (१८६२-१९४९) ह्या कवींनी स्वतंत्रपणान फुडें चलयलो. आन्ना द नॉआय (१८७६-१९३३) ही स्वच्छंदतावादी वृत्तीची भावकवयित्री. माक्स झाकॉब (१८७६-१९४४) हाच्या 'कॉर्न आ दे' ह्या गद्यकाव्यसंग्रहाचेर अतिवास्तववादी लेखन प्रवृत्तींचो प्रभाव दिसता. ब्लेअझ सांद्रार, गीयोम आपॉलिनेर (१८८०-१९१८), झॉर्झ द्यूआमेल (१८८४-१९६६), शार्ल व्हील्द्राक (१८८९-?) आनी रने आर्क्रोस (१८८१ - ?) हे कांय कवी ह्या शेंकड्यांत जावन गेले.

फ्रेंच रंगभुयेंक ह्या काळांत नवचैतन्य दिवपाचें श्रेय आंद्रे आंत्वानाक (१८५८-१९४३) वता. निसर्गवादाचो वारसो फुडें चलोवपी उल्लेखनीय नाटककार म्हणजे झ्युल रनार (१८३४-१९१०), ऑक्ताव्ह मीर्बो (१८५०-१९१७), एमील फाब्र (१८७०–१९५५), झॉर्झ द पॉर्तोरीश (१८४९–१९३०), आंरी बाताय (१८७२-१९२२) आनी आंरी बेर्न्स्तेन (१८७६-१९५३), झॉं झॉरेअसा (१८५९- १९१४) हो फ्रेंच विचारवंत मानवतावादी समाज वादाचो पुरस्कर्तो आशिल्लो.

माटरलिंकाचीं 'पेलेआस ए मेलीझॉंद (१८९२) आनी 'ल्वाझो ब्ल' (१९०९ इं. शी. द ब्लूबर्ड) ही दोन नाटकां प्रतीकवादी साहित्याचे उत्कृश्ट नमुने मानतात. ह्या नाटकाचेर आदारिल्ली दब्यूसीची संगीतिका खूब गाजली. माटरलिंकाक १९११ वर्सा साहित्याचें नोबॅल पारितोशीक फाव जालें.

पयल्या म्हाझुजापरांतच्या कालखंडांत काव्याच्या मळार दोन वेगवेगळ्या पूण समांतर अशो साहित्यप्रवृत्ती विकसीत जाल्ल्यो दिसतात. एकवटेन पॉल व्हालेरीचो (१८७१-१९४५) सौंदर्य शास्त्राचो अभ्यास आनी संशोधन, तर दुसरे वटेन आंद्रे ब्रताँ (१८९६-१९६६) आनी ताच्या वांगड्यांनी स्थापन केल्लो अतिवास्तववाद आनी ताका अनुसरून केल्ले साहित्यांतले प्रयोग. कांय कवी मात अतिवास्तववादाच्या प्रभावापसून अलिप्त रावले. हातूंत लेआं-पॉल फार्ग (१८७६-१९४७), झ्युल स्युपेरव्ह्येल (१८८४-१९६०), प्येअर रेव्हॅर्दी (१८८९-१९६०) आनी प्येअरझां जुव्ह (१८८७ - ?), हांचो आस्पाव जाता.

१९६० चो नोबॅल पारितोशीक विजेता सँ - जॉन पॅर्स (१८८७-१९७५) हो व्हालेरी आनी क्लोदेल हांच्या उपरांतचो व्हड फ्रेंच कवी. हाचे कांय खास अशे कवितासंग्रह म्हणजे आनाबाह्य (१९२४, इं. भा. आनाबासिस १९६०), व्हाँ (१९४६, इं. भा. विंड्स १९५३), आमॅर (१९५७, इं. शी. सीमार्क्स) आनी क्रोनीक (१९६०) पॅर्सच्या काव्याक महाकाव्याची भव्यता आसा.

झ्युल रॉमॅन आपल्या 'ले झॉम द बॉन व्हॉलाँते' (१९३२-४७, इं. शी. मेन ऑफ गुडविल) ह्या नांवान वळखुपांत येवपी २७ कदंबऱ्यांच्या समूहांतल्यान १९०८-३३ ह्या कालखंडांतल्या फ्रेंच जिवीत आनी विचार हांचें चित्रण केल्लें आसा. रॉझे मार्ताँ द्यू गारच्या 'ले तीबो' (१९२२-४०) ह्या सात कादंबऱ्यांच्या मालिकेंत, तीबो घराब्यांत जावपी स्थित्यंतरांच्या चित्रणाच्या आदारान त्या काळच्या समाजांत ह्या घडामोडींचें दर्शन जाता. मार्ताँ द्यू गाराक १९३७ वर्सा साहित्याचें नोबॅल पारितोशक

दिवपांत आयलें. तशेंच आंद्रे माल्‌रोला, फ्रांस्वा मोर्याक झॉर्झ बेर्नानॉस, मार्सेल ज्युआँदो, झुल्यँ ग्रीन, सीदोनी गाब्रीएल कोलेत, आंद्रे शांसाँ, ल्वी, फेर्दीनां सेलीन, मार्सेल एमेन आनी शार्ल फेदीनां राम्युझ हांकां फ्रेंच साहित्यांत खास अशें स्थान आसा.

दोन महाझुजांच्या मदल्या कालखंडांत रंगभुयेची जायती प्रगती जाल्ली दिसता. झाक कोपो (१८७९-१९४९) हाणें 'व्हीय कोलोंबिये' ही नाट्यसंस्था १९१३ पसून १९२४ मेरेन चलयली. ताच्या उपरातय जायते नाट्यनिर्माते जावन गेले. साशा गित्री (१८८५-१९५७), मार्शल आशार (१८९९-१९७४) हाणीं आपल्या नाटकांनी रंगभूंय गाजयली. विनोदी नाटकांप्रमाण गंभीर, उपहासात्मक सुखात्मिकाय सादर करताले. ह्या संदर्भांत झ्यूल रॉमँ, ए द्वार बुर्दे (१८८७-१९४४), मार्सेल पाग्नोल (१८९५-१९७४); झाक द्यूव्हाल (१८९०-१९७२) आनी आर्मां सालाक्रू (१८९९-?) हीं नांवां उल्लेखनीय आसात. मनोविश्लेशणाचेर भर दिवपी दोन उल्लेखनीय नाटककार म्हणजे व्हिल्द्राक आनी आंरी रने लनॉरमां (१८८२-१९५१). गाब्रीएल मार्सेल (१८८९ - ?) हो अस्तित्ववादी नाटककार. हाच्याशिवाय आनीकय जायते नाटककार ह्या शेंकड्यांत जावन गेले.

झां पॉल सार्त्र आनी आल्बेअर काम्यू (१९१३-६०) हांच्यापसून समकालीन साहित्याचो कालखंड सुरू जाता अशें मानतात. ताणें कादंबऱ्यो, नाटकां आनी ग्रंथांचीय रचणूक केली. १९६४ वर्सा ताका नोबॅल पारितोशकाचो भोवमान दिवपाचो केल्लो पूण ताणें तो न्सयकारलो. सीमाँ, द बोव्हार (१९०८ - ?) हीय एक अस्तित्ववादी. एक व्हड कादंबरीकर्ती म्हूणून तिका नांव मेळ्ळें. काम्यूचो पींड तत्त्वचिंतकाचो. नाटकां, कथा, कादंबऱ्यो सारकिल्या ताच्या साहित्यकृतींत ताच्यांतलो तत्त्वचिंतक खरपणान दिसून येता. 'ले त्राँज्य' (१९४२, इं. भा. द आउटसायडर, १९४६ - कादंबरी), कालिग्युला' (१९४४, इं. भा. १९४८-`नाटक), 'ल मीथ द सिसिफ' (१९४२, इं. भा. द मिथ ऑफ सिसिफस ........, १९५५ - वैचारीक ग्रंथ) हें ताचें कांय चड म्हत्वाचें साहित्य. १९५७ वर्सा काम्यूक साहित्याचें नोबॅल पारितोशीक दिवपांत आयलें.

जर्मनीविरुद्ध जाल्ले भूंयगत चळवळीच्या अनुशंगान जायतें साहित्य निर्माण जालें. तातूंतल्यो चड गाजिल्ल्यो दोन कादंबऱ्यो म्हणजे व्हॅर्कोरची (१९०२- ?) 'ला सिलाँस द लामर' (१९४५) आनी रॉझे इकॉरची 'ल फीस दाव्राँम' . फ्रांस्वाझ सागाँ (१९३५-?) हिच्यो 'बाँज्यूर त्रिस्तॆस' (१९५४) आनी 'अँ सॅर्तां सुरीर' (१९५६) ह्योय कादंबऱ्यो खूब गाजल्यो.

नव-कादंबरीच्या दिकेन वचपी कादंबरीकारांमदीं बॉरीस व्हिआँ (१९२०-४९), आंद्रे प्येअर द माँदियार्ग, ज्युलियां ग्राक (१९१०-?) आनी प्येअर क्लॉसॉवस्की हांचो उल्लेख म्हत्वाचो आसा. नाताले सारोत (१९०० -?), क्लोद सॉमाँ (१९१३ - ?), मार्गरीत द्यूरास (१९१४ - ?), आलँ रॉब - ग्रीये (१९२२-?) ह्या नव-कादंबरीकारांनी आपल्या खास अशा पद्धतीन नवे नवे मार्ग आपणायले.

मीशेल ब्युतॉराचें (१९२६-? ) साहित्य उत्क्रांत जायत गेल्लें दिसता. ल्वी आरागाँ आनी पॉल एल्यूआर ह्या दोन कवींचें काव्यलेखन ह्या कालखंडांतय चालूच आशिल्लें. आयच्या मुखेल कवींत फ्रांसीस पाँज्य (१८९९ - ?), आंरी मीशो (१८९९-?), झाक प्रॅव्हॅर (१९००-?), रने शार (१९०७-? ) हांचो आस्पाव जाता. हांच्याशिवाय आयचे कांय कवी उल्लेखनीय आसात. प्येअर एमान्यूएल (ज्युर द कॉलॅर), इव्ह बॉनफ्वा (प्येअर एक्रीत, १९६४), झॉर्झ पॅरो, (युन व्ही ऑर्दीनॅर, १९६७), झां - क्लोद रनार (ला ब्रेंझ एला रिव्हिएर, १९६७), झां-क्लोद रनार (ला ब्रेंझ एला रिव्हिएर, १९६७), झां ग्रॉज्याँ (ला गल्वार, १९६९), आंद्रे फ्रेनो (ला सँत फास, १९६८), मीशेल दगी (वी दीर, १९६६) आनी झाक रुबो (एप्सीलान, १९६८).

पॅरिसांत पोरन्या नाट्यनिर्मात्यांची जागा आंद्रे बार्साक, झॉर्झ व्हिताली, रॉज्ये ब्लँ, झाक फ्राबी, आंत्वान बुर्सेये, साशा पितो ॲफ ह्या नव्या निर्मात्यांनी घेतली. मोल्येरच्या नाटकां भशेन मोर्याकची आनी माँतरलांचीं नाटकांय रसिकांमुखार आयलीं. युझेअन यानेस्कू हाका ॲबसर्ड थीएटरचो प्रवर्तक मानतात. त्याउपरांत सॅम्युएल बेकेट्च्या नाटकांत ह्या नाट्यप्रकाराक चड खोलाय लाबली. सॅम्युएल बेकेटाक १९६९ वर्सा साहित्याचें नोबॅल पारितोशीक दिवपांत आयलें. ताच्या 'आँनाँदाँ गोदो' (१९५२, इं. भा. वेटींग फॉर गोदो, १९५४) ह्या युगप्रवर्तक नाटकांत जिवीतांतल्या निरर्थकतेची भावना प्रत्ययकारी रितीन व्यक्त जाल्ली दिसता. यूझेअन यानेस्कू हाका ताच्या 'ला कांतात्रीस शोव्ह' (१९५०, इं. भा. बाल्ड प्रिमा दोन्ना, १९५८) ह्या नाटकाच्या प्रयोगाक लागून एकदम प्रसिद्धी मेळ्ळी. झां झने हाणें सुर्वेक कादंबरीलेखन केलें. पूण उपरांत तो नाट्यलेखनाकडेन वळ्ळो. ताणें आपजीणय बरयल्या.

दुसऱ्या महाझुजाउपरांतच्या काळांत सार्त्र, ब्युतॉर, रॉबग्रीये, यानेस्कू हाणीं ललीतलेखनावांगडा जायतें टिकालेखनय केलां. सार्त्रचे फ्लोबेअर आनी बोदलेअरवरचे समीक्षाग्रंथ अस्तित्ववादी टिकाशास्त्राचे नमुने मानतात. नवटीकाकारांमदीं झां-प्येअर सीमाँ आनी ताँदॉरोव्ह हे दोगय उल्लेखनीय आसात.

आयचें साहित्य परत एक खेप पोरन्या साहित्याकडेन वळील्लें दिसता. फ्रांस्वा नुरिस्ये, झील्‌बेअर सेस्ब्रॉ, मार्गरीत युर्सेनार, मीशॉल तुर्निअे हे आयचे कांय उल्लेखनीय बरोवपी.

- कों. वि. सं. मं.

**फ्रेंच सत्ता (भारतांतली) :** वाश्को-द-गामा ह्या पुर्तुगेज खलाशान युरोपांतल्यान भारतांत येवपी उदका मार्गाचो सोद लायल्याउपरांत सोळावे शेंकड्याचे निमाणें मेरेन वेपाराच्या निमतान पुर्तुगेज, हॉलंडी, ब्रिटीश आनी हेर युरोपियन लोकांनी भारतांत प्रवेश करपाक सुरवात केली. वेपारावांगडा आपआपली सत्ता प्रस्थापीत करपाची सर्त तांच्या भितर लागिल्ली. सोळाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दाक सावन फ्रेंच लोकूय हे सर्तीचे वांटेकार जाले. हेर युरोपी राश्ट्रांप्रमाण ताणीं भारताचे कांय वाठार आपल्या शेकाताळा हाडले. भारतांतलो फ्रेंच सत्तेचो काळ इ.स. १६६४त सुरू जालो.

चवदाव्या शेंकड्यांत जॉर्देनस, फ्रायर ऑडोरिक आनी हेर धर्मोपदेशकांनी तशेंच सतराव्या शेंकड्यांत झाँ बातिस्त ताव्हेन्ये, फ्रान्स्वा बर्निअर आनी येवेनॉट हांच्या सारकिल्या भोंवडेकारांनी भारताच्या संपत्ते विशीं फ्रेंच वेपाऱ्यांच्या मनांत उमळशीक निर्माण केल्ली.

फ्रांसाचो राजा चवथो हॅन्री आनी आर्मा झाँ रिशलस हांच्या फाटबळान भारताकडेन वेपार करपी कंपन्यांची स्थापणूक जाली. पूण चवदाव्या लुईचो अर्थमंत्री झाँ बातिस्त कॉलबेअर हाच्या फुडारपणाखाल स्थापणूक जाल्ल्या 'देस इंदिज' ह्या कंपन्यांनी १६६४ सावन फ्रेंच्यांचो भारताकडेन

रितसर वेपार सुरू केलो. १६६६त बॅबॅर आनी लाबुलॅय ला गूझ ह्या फ्रेंच राजदुतांनी औरंगजेबाकडच्यान सुरतेंत वखार उगडपाची परवानगी मेळयली. शिवाजीनूय १६६८त तांकां राजपूराक वखार घालपाक परवानगी दिली. १६६९ त मच्छलीपट्टणमाकूय फ्रेंच लोकानी वखार सुरू केली. फुडारिल्ल्या नौदलाच्या बळग्यार सामक्या उदेंतेक आशिल्ल्या देशांकडेन (The far east countries) वेपार वाडवपाचो तांचो हेतू आशिल्लो. हाका लागून द लाहे हाच्या फुडारपणाखाला १६७१त एक नाविक दल भारतांत आयलें. ह्या नाविक दलाच्या नेटार फ्रेंचांनी सॅ थाम ही चेन्नई लागसार आशिल्ली वेपारपेठ गोवळकोंड राजाकडच्यान हातासली.

१६७४त फ्रांसवा मार्तें ह्या अधिकाऱ्यान पाँडिचेरीचें मुखेल केंद्र हातासलें. कांय तेंपा उपरांत ह्या शारांत वेपार भरभराटीक आयिल्ल्यान फ्रेंच लोकांनी पाँडिचेरी शाराकूच आपले राजपाटण केलें. दक्षिण भारता खेरीज बंगालाक चंद्रनगर, पाटणा, कासिम बाजार, ढाक्का, जगदीया आनी बालेश्वराकूय फ्रँचांनी वखारी उबारिल्ल्यो. उदेंतेक आयल्या उपरांत सुरवेच्या तेंपार हॉलंड, ब्रिटन हांचेकडेन सर्त आनी झुजां, थळावे लोकांचो विरोध हांकां लागून फ्रेंच वसणुककारांक खूब त्रास जाले. अशें आसतना लेगीत कांय फ्रँच अधिकाऱ्यांनी फ्रेंचांचें वेपारी आनी राजकीय म्हत्व भारतांत वाडयलें.

सुरवातीच्या तेंपार देशाभितल्ल्या वेपाराक संरक्षण मेळचें म्हणून भारतीय सुती कपडो आनी हेर कांय वस्तूंचे आयातीचेर फ्रांसांत बंदी घाल्लल्ली आनी ताचेर फ्रांस सरकाराचे कडक नियंत्रण आसतालें. हाका लागून सुरवातीक वेपारी कंपनीक व्हडलोसो फायदो जालो ना. पूण १७२३त फ्रँच सरकारान काँपान्यी देस ह्या नांवा सकल तिची पुनर्रचणूक करून तिका फावो तो आदार दिलो. हाचो परिणाम म्हळ्यार १७२५-४० ह्या तेंपार कंपनीक खूब फायदो जालो. १७२१त मलबारचे दर्या देगेर माहे (केरळ) नगरांत आनी १७२३त चेन्नई दर्या लागसार यानम (आंध्र प्रदेश) ह्या वाठारांत ताणीं वसणुको उबारल्यो. गर्व्हनर बनवा द्युमा हाच्या तेंपार (१९३५-४२) भारतांत फ्रेंच सत्तेची खूब भरभराट जाली.

१७४१त गर्व्हनर जनरल म्हणून आयिल्लो जोसेफ फ्रांसवा द्यूप्ले हाणें भारतांतले फ्रेंच वसणुकेक एक नवी दिका दिली. भारतांत वसणुकवाद हाडपाचे श्रेय ताकाच वता. पूण १७४४त युरोपांत ऑस्ट्रियेच्या वारसावयल्यान ब्रिटीश-फ्रेंच हांचेमदीं झूज पेटलें. ला बूरदाँम हाणें चेन्नई प्रांताचेर जैत मेळोवन तें फ्रेंच शेकातळा दवरलें. १७४८ मेरेन तांचे भितर झूज चालूच आशिल्लें. त्याच वर्सा हैदराबादचो निजामुलमुल्क हाका मरण आयलें. ताचे सुभेदारी खातीर सुरू जाल्ल्या वारसा हक्काच्या झुजांत ब्रिटिशांनी नासिर जंग हाका आनी फ्रेंचांनी सुरवेक मुजफ्फर जंग आनी ताच्या मरणा उपरांत सलाबत जंग हाका तेंको दिल्लो. हैदराबाद प्रकरणावयल्यान फ्रेंच-मराठे हांचे संबंद इबाडले. १७५६त कॅनडाच्या प्रस्नावयल्यान इंग्लंड-फ्रांस हांचे भितर परत झूज जालें. भारतांतले फ्रेंच वसणुकेक कसलीच बादा येवची न्हय हाका लागून फ्रेंच सरकारान काँत द लाली हाका सगळे अधिकार दिवन भारतांत व्हड सैन्य धाडलें. पूण हेर अधिकाऱ्यांनी ताका कसलोच आदार दिलोना. नाविक दळ आनी भांडवलूय उणें पडिल्ल्यान ब्रिटिशांनी पाँडिचेरी आनी हेर कांय फ्रेंच वसणुकांचेरूय जैत मेळयलें. ह्या झुजा उपरांत भारतांतले फ्रेंच सत्तेक देंवती कळा लागली.

१७६३त पॅरिसांत कबलात जावन इंग्लंड-फ्रांस हांचेमदलें झूज सोंपलें. तांच्यो कांय वसणुको परत मेळ्ळ्यो. पूण उपरांत फ्रेंच सत्तेक भारतांत तिचो सुरवातीचो दर्जो केन्नाच परत मेळ्ळोना. ब्रिटीश मात आपली सत्ता भारतांत वाडयत रावले आनी ती ताणीं तिगोवन दवरली.

भारतांतल्यान आयात जावपी वस्तूंचेर सरकाराचें खर नियंत्रण आशिल्लें. तेच परी अधिकाऱ्यांभितर चलिल्ल्या संघर्शान आनी भ्रश्टाचाराक लागून कंपनीक वायट दीस आयले. हाका लागून फ्रेंच सरकारान कंपनी बंद केली आनी भारतांतल्यो सगळ्यो फ्रेंच वसणुको आपल्या शेकातळा हाडल्यो. १७७६त अमेरिकन स्वातंत्र्या निमतान इंग्लंड आनी फ्रांस हांचेभितर परत झूज सुरू जालें. ह्या वेळार फ्रेंच गर्व्हनरान मराठ्यांकडेन इश्टागतीची कबलात केली. भारतांत आशिल्ल्या फ्रेंच वसणुकांची राखण करपाखातीर दस्युफ्राँ ह्या पराक्रमी अधिकाऱ्याच्या फुडारपणाखाला एक व्हड नाविक दळ हिंदी म्हासागरांत धाडिल्लें. पूण ब्रिटीशांनी हें नाविक दळ काबार करून तांचेलागीं कबलात केली. ब्रिटीशांनी घेतिल्ल्यो फ्रेंच भारतांतल्यो वसणुको, हे कबलातीक लागून परत फ्रांसाक मेळ्ळ्यो.

भारतांत वेपार वाडोवप हो फ्रांसेझ लोकांचो मुखेल हेत आशिल्ल्यान अठराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन मराठे सरदार आनी टिपूकडेन तांकां मर्यादीत संबंद दवरचे पडले. १७८९त जाल्ले फ्रेंच राज्यक्रांतीक लागून युरोपांत झूज निर्माण जाल्लें. ह्या झुजाचो परिणाम फ्रेंच वसणुकांचेर जालो.

१७९३त ब्रिटिशांनी परत भारतांतल्यो वसणुको आपले सुवादीन घेतल्यो. उपरांत भारताचेर फ्रेंच शेक बसोवपाचो निमाणो यत्न १८०२त नेपोलियन हाणें केलो. त्याच वर्सा फ्रांस-इंग्लंड हांचेमदीं कबलात जावन भारतांतल्यो फ्रेंच वसणुको फ्रांसाक परत मेळ्ळ्यो. त्यो ताब्यांत घेवपाच्या निमतान शार्ल मात्य हाच्या फुडारपणाखाला नेपोलियन हाणें व्हड सैन्य आनी नाविक दळ भारतांत धाडलें. पूण ह्यावेळार ब्रिटिशांनी पाँडिचेरी प्रदेशाचेर कडक देखरेख दवरिल्ल्यान ह्या सैन्याचो कांयच उपेग जालोना. १८०७त ब्रिटिशांनी मॉरिशस आनी रेयुन्याँ हे फ्रेंच तळूय आपल्या शेकातळा हाडले. १८१५त फ्रांस-ब्रिटन हांचेभितर कबलात जावन पाँडिचेरी, चंद्रनगर, माहे, कारिकल आनी यानम ह्यो वसणुको फ्रांसाक परत मेळ्ळ्यो. उपरांत १९५४ मेरेन त्यो फ्रेंच शेकातळा उरल्यो. १९५६त तांच्या विलीनीकरणांविशीं भारत-फ्रांस हांचेमदीं कबलात जाली. ती १९६२त पुराय जावन भारतांतले फ्रेंच सत्तेचो अंत जालो.

– कों. वि. सं. मं.

# कोंकणी विश्वकोश

## खंड तिसरो

(ब ते म)

संपादक
डॉ. तानाजी हळर्णकार

गोवा विश्वविद्यालय, ताळगांव-गोंय.
१९९९

# कोंकणी विश्वकोश संपादक मंडळ

**संपादक**

डॉ. तानाजी हळर्णकार

◆

**संशोधन सहाय्यक**

श्री. रंजन नायक

श्रीमती सुरेखा नायक तोटेकार

◆

**संपादकीय सहाय्यक**

श्रीमती कांचन विवेक मोर्डेकार

श्रीमती कल्पना नंदन वाळके

◆

**कोंकणी विश्वकोश सल्लागार समिती**

डॉ. अशोक जोशी

डॉ. सदाशिव देव

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय

डॉ. अरूण हेबळेकार

डॉ. ऑलिव्हिन्यु गोमीश

डॉ. सोमनाथ कोमरपंत

डॉ. उदय सांगोल्डकार

प्रा. देवीदास बोरकार

डॉ. तानाजी हळर्णकार

# मनोगत

कोंकणी विश्वकोशाचो हो तिसरो खंड लोकार्पण करतना म्हाका व्हड खोस भोगता.

कोंकणी भाशेची सर्वांगीण उदरगत हो गोवा विद्यापिठाचो एक मुखेल उद्देश आसा. तेखातीर, कोंकणी अध्यापन, कोंकणी संशोधन आनी कोंकणी साहित्य - निर्मिती करपाचो वावर गोवा विद्यापिठांत सुरवेक सावन चालू आसा. अशे तरेचो वावर करपी गोवा विद्यापीठ हें संवसारांतलें पयलें विद्यापीठ आसा.

सर्वसादारण कोंकणी मनशाक तशेंच विद्वानाक, ताचे निजाचे भाशेंतल्यान संवसारांतल्या गिन्यानाची सोंपेपणी वळख करून दिवपाच्या उद्देशान गोवा विद्यापिठान कोंकणी विश्वकोशाची निर्मिती करूंक घेतली. जाका आपली आवयभास सोडून दुसरी भास येना तो गिन्यानापसून वंचीत उरचो न्ही. तशेंच जाका हेर भासो येता ताचेखातीर ताचे निजाचे भाशेंतल्यान खाशेलें गिन्यान मेळचें अशो दोट्टी अपेक्षा सफल करपी हो विश्वकोश, कोंकणीखातीर आदर्श असो शास्त्रीय संदर्भ-ग्रंथ आसा.

सुरवेच्या आटापाप्रमाण कोंकणी विश्वकोशाचे तीन खंड थारायल्ले. विश्वकोशाचे संकल्पनेक तीन खंड फाव तो न्याय दिवंक पावचेनात हें कळटकच आनीक एका खंडाची, चवथ्या खंडाची तजवीज करची लागली. हो चवथो खंडय प्रकाशनाचे वाटेर आसा आनी ताकाय लोकार्पण करपाचो योग रोखडोच येवपाचो आसा.

निकतीच वयर सरूंक लागिल्ले कोंकणी भाशेंतलो विश्वकोश निर्माण करप हो भोव कश्टांचो वावर. अपुरीं साधनां आनी अपुरें मनीसबळ घेवन संपादक मंडळान हो वावर पुराय केलो ते खातीर हांव तांची तोखणाय करून तांकां शाबासकी दितां. माय भाशेवयली श्रद्धा, प्रबळ इत्साशक्त आनी त्यागाची भावना आसल्यारूच अशे तरेचो वावर यशस्वी जाता.

पयल्या दोन खंडांप्रमाणच ह्या तिसऱ्या खंडाचें कोंकणी मनशाकडल्यान उत्स्फूर्त स्वागत जातलें अशी आशा बाळगितां.

गोवा विद्यापीठ
ताळगांव - गोवा.
२३ नोव्हेंबर १९९९.

प्रो. बाळकृष्ण सोंदे
उपकुलगुरू

# पयलीं उतरां

कोंकणी विश्वकोशाचो तिसरो खंड प्रकाशीत जाता ही समस्त कोंकणी विश्वाखातीर अभिमानाची गजाल आसा.

आमच्या सुरवेच्या संकल्पाप्रमाण, तिसऱ्या खंडाच्या प्रकाशनावांगडाच कोंकणीतल्या ह्या पयल्या वयल्या विश्वकोश निर्मितीची सांगता जाताली. पूण विश्वाची समाधानकारक वळख करून दिवपाक तीन खंड उणे पडटात अशें दिशिल्ल्यान आनीक एका खंडाचे, चवथ्या खंडाचे निर्मितीचो वावर हातांत घेतला. सुरवेक तीन खंडी आशिल्लो हो कोश आतां चार खंडांनी भायर सरतलो, हें सागपाक आनंद जाता.

कोंकणी विश्वकोशाची संकल्पना, व्याप्ती, मांडावळ, शुद्धलेखन, परिभास आनी रचणूक, हे संबंदी पयल्या खंडाचे प्रस्तावनेंत सविस्तरपणान सांगप जालां. ह्या तिसऱ्या खंडाखातीर पयल्या खंडाचोच आकृतीबंध घेतला आशिल्ल्यान ते संबंदी परतून हांगा म्हायती दिवपाची गरज दिसना.

विश्वकोश निर्मिती हो एक व्हड आटापाचो संशोधन प्रकल्प. आकांताचे श्रम, तितकोच वेळ आनी तशेच दुडू अशा प्रकल्पाक लागतात. अशे तरेचो कोंकणींतलो हो पयलोच प्रयोग जाल्ल्यान, कोंकणी विश्वकोशाची निर्मिती आनीकय कठीण जाता. अशे तरेच्या वावराखातीर लागपी मनीसबळ, यंत्रणा-सुविधा, संदर्भ-सामुग्री, वातावरण आनी मानसिकता हांची कोंकणींत उणीव आसा, हाचो अणभव पावला कणकणीं आयला. ताचो कोशाचे निर्मितीचेर सभावीक असो परिणाम जाला. तरीय लेगीत विद्यापिठाचे जाळवणदार आनी कोश-निर्मितीच्या वावरांतले म्हजे सहकारी हांच्या फाटबळाच्या म्हालवजार, कोंकणी विश्वकोशाचो दर्जो सांबाळपाचो आमचे परीन प्रामाणिक प्रयत्न जाला. कोंकणी मनशाक विश्वाची आवश्यक अशी वळख अवघ्या चार खंडांनी करून दिवपांत आमी बऱ्याच प्रमाणांत यशस्वी जाल्यात, हें नमूद करूंक अभिमान दिसता.

विश्वकोशाच्या सुमाराभायल्या आटापाक लागून, ताचे निर्मितींत जायत्या जाणांचो हात लागप अपरिहार्य जाता. विशयाची निवड, नोंदीची व्याप्ती, मजकुराची निवळणी, संपादन - संस्कार, छापणावळ - प्रक्रिया अशा साबार अवस्थेंतल्यान ही निर्मिती प्रक्रिया चलता. हे प्रक्रियेंतल्यान खंयच्या एका पेण्यार, खंयच्या एका घटकाचो दोळो चुकोवन चूक उरपाची शक्यताय न्हयकारूंक येना. संवसारांतल्या सगळ्याच भाशांतल्या कोशकारांनी हे परिस्थितीचो अणभव घेतिल्लो आसा. कोंकणी विश्वकोश ताका आडवाद जावंक शकना.

आदल्या दोन खंडांसारकेच आमी ह्या खंडाखातीर भारतीय तशेंच परकी भाशेंतल्या संदर्भ ग्रंथांचें रीण घेतलां. मराठी विश्वकोश, हिंदी विश्वकोश, भारतीय संस्कृतीकोश, Encyclopaedia Britannica, Encyclopaedia of Social Sciences, Encyclopaedia of Religion, Encyclopaedia of Philosophy, Encyclopaedia of International Sports, Stateman's Year Book, World Book Encyclopaedia आनी अशाच हेर संदर्भ ग्रंथांचो ह्या कोशाक मोलादीक आदार मेळ्ळा. तेखातीर आमी तांच्या निर्मात्यांचे उपकारी आसात.

कोंकणी विश्वकोश ही सांघीक निर्मिती. तिका जायत्या जाणांचो हातभार लागला. गोवा विद्यापिठाचे आजी-माजी उपकुलगुरू, कुलसचीव, सल्लागार मंडळाचे वांगडी, नोंद-लेखक, नोंद-समिक्षक, चित्रकार, संपादक मंडळाचे वांगडी, छापणावळ तंत्रज्ञ हांच्या योगदानावरवींच येदो व्हडलो वावर पुर्णत्वाक पावप शक्य जालें.

तिसऱ्या खंडा फाटोफाट चवथो खंड पूर्ण करून, तो प्रकाशीत करपाचो योग बेगीन येवचो अशी आशा बाळगितां.

मंगळवार, कार्तिक पुनव
गुरूनानक जयंती
२३ नोव्हेंबर १९९९

**डॉ. तानाजी हळर्णकार**
संपादक

**कोंकणी विश्वकोश**

खंड तिसरो

लेखक, अणकारपी, समीक्षक, नियाळ करपी आनी चित्रकार

**श्रीमती आरसेंकार शकुंतल,** आकाशवाणी, आल्त पर्वरी.

**श्रीमती आळवे महानंदा,** कोंब-मडगांव.

**डॉ. कवडी नरेश,** निवृत्त प्राध्यापक, श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले कॉलेज ऑफ आर्टस् ॲण्ड सायन्स, मडगांव.

**श्री. कामत प्रकाश,** पत्रकार, पणजी.

**श्री. कामत सूर्यनाथ,** कर्नाटक गॅझेटियर, कावेरी भवन, बेंगलोर.

**श्री. कुंकळयेंकार सुशांत,** पत्रकार, केपें.

**डॉ. कोमरपंत सोमनाथ,** मराठी विभाग प्रमुख, गोवा विद्यापीठ.

**डॉ. खांडेपारकार ए. व्ही.,** पशुसंवर्धन खातें, कुर्टी, फोंडें.

**प्रा. चोडणकर छाया,** हिंदी विभाग, गोवा विद्यापीठ, ताळगांव.

**डॉ. गनिहार एस्. आर,** जीवशास्त्र विभाग, धेंपे कॉलेज, मिरामार, पणजी.

**श्री. गांवकार विश्राम**, शेती अधिकारी, भारतीय शेती संशोधन मंडळ, ओल्ड गोवा.

**श्री. गावणेकार माणिकराव,** निवृत्त मुख्याध्यापक, श्रीमती हिराबाई तळावलीकर हायस्कूल, साकोर्डें.

**श्री. घाणेकर दामोदर,** समीक्षक, पणजी.

**डॉ. घाणेकार भिकाजी,** वैजकी अधिकारी, गोंय सरकार, पणजी.

**डॉ. टंगसाळी आर. बी.** प्राध्यापक, भौतिकशास्त्र विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**डॉ. ठाकूर रवीन्द्र,** मराठी विभाग, शिवाजी युनिव्हर्सिटी, कोल्हापूर.

**डॉ. डिसोझा चंद्रलेखा,** प्राध्यापिका, कोंकणी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**श्री. डी. सतीश,** वेवसायीक जादुगार, पणजी.

**डॉ. तळावलीकार विजय,** वैजकी तज्ञ, सांताक्रूझ-गोंय.

**श्री. तोणसेकर एम. पी.** प्राध्यापक, जीवशास्त्र विभाग, गोवा विद्यापीठ

**श्री. थळी मुकेश,** आकाशवाणी, पणजी.

**ॲड. थळी सुहास,** पणजी.

**श्री. देसाय यादवेंद्र,** भारतीय शेती संशोधन मंडळ, ओल्ड गोवा.

**डॉ. धुमे एन्. एस्.,** करंजाळे, पणजी.

**श्रीमती नायक जयंती,** संशोधन सहाय्यक, गोवा कोंकणी अकादमी, पणजी.

**डॉ. नायक प्रताप,** संशोधक, थॉमस स्टीव्हन्स कोंकणी केंद्र, पर्वरी.

**डॉ. पाटील आनंद,** प्राध्यापक, इंग्रजी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**श्री. पाडगांवकार प्रकाश,** लेखक, पर्वरी.

**श्री. पुनाजी शशिकांत,** लेखक, पेडणें.

**फा. पेरेरा आंतोनियो,** बांबोळे चर्च, बांबोळे.

**डॉ. फडके श्री. शं.,** प्राध्यापक, चौगुले कॉलेज, मडगांव.

**प्रा. फडते प्रेमानंद,** प्राध्यापक, श्री. दामोदर ज्यु. कॉलेज ऑफ सायन्स, मडगांव.

**प्रा. फडते सदानंद,** बांदोडें - फोंडें.

**स. बर्वे रमेश स.,** आकाशवाणी, पणजी.

**डॉ. बोरकार अवधूत,** वैजकी अधिकारी, मडकय.

**श्री. बोरूडे एस्. जी.,** सिंधुदुर्ग - महाराष्ट्र.

**श्री. ब्रागांझा मिंगेल,** धुळेर, म्हापसा.

**डॉ. भट अनंत राम,** प्राध्यापक, प्रियोळ, म्हाड्डोळ-गोंय.

**श्री. मणेरकार दिनेश,** दत्तवाडी - सांगें.

**श्री. मांद्रेकार दादू,** लेखक, मांद्रें - पेडणें.

**डॉ. मालवीय एच. के.** पशुचिकीत्सक, पशुसंवर्धन खातें, कुर्टी -फोंडें.

**डॉ. मिश्रा बी. डी.,** निवृत्त प्राध्यापक, हिंदी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**श्री. मेहता शैलेंद्र,** मडकय, गोंय.

**श्री. म्हाळशी कमलाकर,** उपसचिव, गोवा कोंकणी अकादमी, पणजी.

**डॉ. राव दयानंद मंगेश,** गोवा वैजकी महाविद्यालय, पणजी.

**श्रीमती राव देशपांडे कमलादेवी,** पणजी.

**श्री. वझे. वा. ल.,** संस्कृत काव्यतीर्थ, बांदोडें, फोंडें.

**डॉ. वालावलीकर व्हाय. एस.** प्राध्यपक, गणित विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**श्री. वेळुस्कर रमेश भ.** पत्रकार, लेखक, पाळें - शिरदोन.

**श्री. सातोस्कर बा. द.** करंजाळे.

**श्री. सुरसुरे पंढरीनाथ,** व्हडलें मळ, काकोडें, कुडचडें.

**श्री. सैल महाबळेश्वर,** लेखक, करमणें-गोंय.

**डॉ. हळर्णकर आनंद,** वैजकी तज्ञ, बांदोडें.

**डॉ. हेगडे राजेंद्र,** मानसोपचार तज्ञ, मडगांव.

**डॉ. हेबळेकार अरूण,** प्राचार्य, पी.इ.एस. कॉलेज ऑफ आर्टस अ‍ॅण्ड सायन्स, फर्मागुडी, फोंडें.

# कोंकणी विश्वकोशांत वापरिल्ल्या संक्षेपांची वळेरी

| | |
|---|---|
| इ. स. | इसवी सन |
| इ. स. प. | इसवी सना पयलीं |
| किग्रॅ. | किलोग्रॅम |
| किमी. | किलोमीटर |
| कों. वि. सं. मं. | कोंकणी विश्वकोश संपादक मंडळ |
| चौ. किमी. | चौरस किलोमीटर |
| चौ. सेंमी. | चौरस सेंटिमीटर |
| मिमी. | मिलिमीटर |
| मी. | मीटर |
| सॅ. | सेल्सिअस तापमान |
| सेंमी. | सेंटिमीटर |

ह्या खंडांत आयिल्ले नकाशे हे अधिकृत नकाशे न्हय. ते नकाशे म्हळयार मूळ नकाशाच्यो सदळ आकृतायो जावन आसात.

# कोंकणी विश्वकोश

## खंड तिसरो

**बऊ नाच :** वधुनृत्य असो ह्या नाचाचो अर्थ जाता. दक्षिण आसामांतल्या बंगाली भाशा वाठारांत हो नाच चड प्रसिद्द आसा. घराच्या आंगणांत हो नाच करतात. ह्या नाचाचे दोन प्रकार आसतात. एका प्रकारांत गांवांतल्यो कांय बायलो, राधा-कृष्णाचीं पदां म्हण्टात. नवी व्हंकल धोल आनी शेनाय हांचे साथीचेर नाच करता. दुसऱ्या प्रकारांत व्हंकल लजेस्त रमणीचो अभिनय करता आनी जाण्ट्या बायलांच्या पायांचेर फुलां घालता. उपरांत ती नाच करता.

- कों.वि.सं.मं.

**बंगलक्ष्मी :** बंगालांतलें बायलांचें एक आर्विल्लें व्रत. वंगभंगाआड बंगालांतल्या बायलां-दादल्यांमदीं राजकीय जागृती निर्माण जावंची ह्या हेतान रामेंद्र सुंदर त्रिवेदी हाणें हें व्रत सुरू केलें. राजकीय हेताक धर्मीक रूप दिवन ताणें बायलांक हें व्रत करूंक सांगलें. लॉर्ड कर्झनान १६ ऑक्टोबर १९०५ ह्या दिसा बंगालाची फाळणी करून मुसलमानांक उदेंत बंगाल हो नवो वाठार दिलो. अशे तरेन ताणें हिंदू-मुसलमानांमदीं फूट घालून जातीय दुस्मानपणाचें बीं रोयलें. हाका उपाय म्हणून त्रिवेदीन ह्या व्रताची सुरवात केली. हिंदू पंचांगाप्रमाण १६ ऑक्टोबर १९०५ ह्या दिसा आश्विन शुध्द तिरोदस आशिल्ली. देखून हीच तीथ ह्या व्रता खातीर निश्चित केली. ह्या दिसा बंगलक्ष्मीचें प्रतीक म्हणून दर एका मनशाच्या घरांत एका मातयेच्या घटाची स्थापना करतात. त्या दिसा ल्हान भुरगीं, वायटकार आनी देवाचो निवेद्य हांचेपुरतेंच अन्न घरांत शिजयतात. उरिल्ल्यांनी फळांचो आहार करून वा फोव खावन रावपाचें आसता. घरांतल्यो बायलो त्या दिसा घराभोंवतणीं बसतात. त्या वेळार विधवा बायलांनी कपलाचेर चंदनाचो तिबो आनी सवायशीण बायलांनी भांगामदीं सिंदूर भरपाचो नेम आसा. लक्ष्मीची पुजा जातकच घरांतलीं सगळीं जाणां हातांत सुपारी घेवन बंगलक्ष्मीची कथा आयकतात. उपरांत सगळीं जाणां एकामेकांच्या हातांत स्वदेशी हळदुव्या रंगाची राखी बांदतात आनी प्रसाद वांट्टात. हो सुवाळो सोंपतकच 'आमी सगळे भाव भाव, बरे भाशेन रावं' असो घोश करून परदेशी वस्तूंचेर बहिश्कार घालून स्वदेशी वस्तू वापरतले अशी प्रतिज्ञा करतात.

ह्या व्रताची कथा अशी- बंगाल नांवाच्या एका देशांत लक्ष्मी रावताली; देखून थंय सदांच शांती आनी सूख नंदतालें. फुडें कलियुगाच्या काळांत थंयचे लोक दुराचारी जाले, तेन्ना लक्ष्मीन तो देश सोडून वचपाचो विचार केलो आनी तशें तिणें थंयच्या आदिसूर नांवाच्या राजाक सांगलें. तेन्ना लोक हाचेफुडें बरे वागतले अशें वचन दिवन ताणें कनौजसावन पांच विद्वान ब्राह्मण आनी पांच प्रामाणिक कायस्थ ब्राह्मण बंगालांत हाडले. तांणी थंय वैदिक धर्म प्रस्थापीत केलो आनी शांतिकाय घडली.

फुडें मुसलमानांनी बंगालाचेर स्वारी केली. तशेंच हिंदूंक बळयां बाटोवन तांचीं देवळां मोडलीं. तेन्ना लक्ष्मीन परतून हो देश सोडपाचो विचार करून तशें तेन्नाच्या राजाच्या सपनांत वचून सांगलें. तेन्ना राजान तिका ना वचपाविशीं विनंती केली आनी हिंदू-मुसलमानांक सारकें वागोवपाचें तिका वचन दिलें. फुडें बंगालांत इंग्लिशांचें राज्य आयलें. तांणी हांगा भ्रश्टाचार सुरू केलो. तें पळोवन लक्ष्मी तांकां सोडून गेली. देखून लोक इंग्लीश राजवटीक दोश दिवंक लागले. उपरांत तेन्नाच्या व्हायसरॉयान हिंदू-मुसलमानांमदीं फूट पडची देखून फाळणेची येवजण आंखली. ज्या दिसा फाळणी जावपाची आशिल्ली त्या दिसा सगळ्या हिंदू-मुसलमान बंगाली लोकांनी लक्ष्मीची प्रार्थना केली. तेन्ना लक्ष्मीन तांकां एकठांय रावन मनांत एक राश्ट्रीयतेची भावना दवरपाचो आदेश दिलो. त्या दिसा बंगालांतल्या बायलांनी बंगलक्ष्मीचें व्रत केलें आनी हिंदू-मुसलमानांनी एकामेकांक बंधु-भावाचें प्रतीक म्हणून राखयो बांदल्यो.

फाळणे दिसा दनपारां रामेंद्र सुंदर हाच्या जमो-कंडी गांवांत विष्णुमंदिराच्या प्राकारांत पन्नास बायलांनी जमून बंगलक्ष्मीचें व्रत केलें. तेन्नासावन दर वर्सा बायलो हें व्रत करूंक लागल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**बंगाल (अस्तंत) :** भारतीय संघराज्यांतलें उदेंतेकडलें एक राज्य. बंगाल हें उतर वंगाल ह्या उतराचो अपभ्रंश. ह्या वाठारांतल्यान व्हांवपी न्हंयांक दर वर्सा आकांताचे हुंवार येताले. पुर्विल्ल्या काळांत अशा हुंवारांसावन राखण करचेपासत ऊंच ऊंच दोंगुल्ल्यो बांदपाची चाल आशिल्ली. ह्या दोंगुल्ल्यांक 'आल' अशें म्हण्टाले. तांचे वयल्यान वंग + आल = वंगाल आनी ताचें फुडें बंगाल जालें अशी व्युत्पत्ती अबुल फजल हाणें दिल्या. भविश्यपुराणांत पौंड्र देशाचे सात वांटे करून एका वांट्याक 'गौड' नांव

दिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. हो देश पद्मा न्हंय आनी बरद्वान जिल्हो हांचेमदीं आसलो. शक्तिसंगम तंत्रांत ह्या देशाचो विस्तार असो सांगला-

*वङ्गदेशं समारभ्य भुवनेशान्तगं शिवे।*
*गौडदेशः समाख्यातः सर्वविद्याविशारदः।*

**अर्थ-** वंगदेशासावन भुवनेश्वरमेरेन गौड देश पातळ्ळा. हो देश गिन्यानांत गिरेस्त आसा.

वयल्या श्लोकावयल्यान बंगालच्या उदेंत वांट्याक वंग आनी अस्तंतेकडल्या वांट्याक गौड म्हणिल्लें दिसता. देखून कांय मुसलमान



इतिहासकार ह्या वाठाराक 'गौडबंगाल' म्हण्टाले.

राज्याचे उत्तरेक सिक्कीम आनी भूतान, उदेंतेक आसाम आनी बांगलादेश, दक्षिणेक बंगालचो उपसागर, अस्तंतेक ओरिसा, बिहार हीं राज्यां आनी उत्तर अस्तंतेक नेपाळ हे वाठार आसात. पुराय राज्य हिमालय पर्वताच्या मुळसांत सावन दक्षिणेक बंगालच्या उपसागरामेरेन पातळिल्लें आसा.

राज्याचो चडसो वाठार दर्यादिगेक सरळ आसा. हिमालय पर्वतांच्यो रांको ह्यो राज्याच्या दार्जिलिंग, जलपैगुरी, कूचबिहार जिल्ह्यांनी पातळळयात. ह्या जिल्ह्यांतली भूंय तिस्ता, तोरसा, जलढाका, रंजीता, सारक्या न्हंयांक लागून उदकाळ आनी कसाळ जाल्या.

दक्षिणेवटेनचो कांय वाठार दलदलीचो जाल्यार गंगा न्हंये देगेकडचो सखल आनी कसाळ आसा. राज्यांतलो दार्जिलिंग जिल्हो सगळयांपरस उंचायेर (३६५८ मीटर) वसला.

राज्यांत पद्‌मा (गंगा न्हंयेचो उदेंतेकडलो फांटो), भागिरथी वा हुगळी (गंगा न्हंयेचो अस्तंतेकडलो फांटो), दामोदर, रूपनारायण, मयुराक्षी, तिस्ता, तोरसा, जलढाका आनी रंजीता ह्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो आसात. बंगालच्या उपसागराच्या रुपान राज्याची दक्षिण शीम पुरायेन आडायिल्ली आसा.

राज्याचें हवामान उश्ण, दमट आनी मान्सून प्रकारांत आस्पावता. गिमाच्या दिसांनी तापमान ३८° सॅ. ते २२° सॅ. मेरेन उरता. दार्जिलिंग आनी जलपैगुरीचे दोंगराळ वाठार थंड आसतात. पुराय राज्यांत व्हड प्रमाणांत पावस पडटा. दक्षिण अस्तंत वाठारांत सरासरी वर्सुकी पावस १००६ मिमि. जाल्यार उत्तर वाठारांत सरासरी वर्सुकी पावस २९३३ मिमि. इतलो जाता. राज्यांतलें सरासरी पावसाचें प्रमाण १६५०मिमि. राज्यांतल्या हवामानाचे फुडले तरेन चार वांटे करूं येतात. १५ नोव्हेंबर ते मार्च म्हयन्याच्या मध्यामेरेन शियाचे दीस, मार्च म्हयन्याची दुसरी पंद्रस ते १० जून मेरेन गीम, १० जून ते सप्टेंबर मेरेन पावस आनी ऑक्टोबर-नोव्हेंबर म्हळयार पावसाचो परतुपाचो काळ.

**वनस्पत आनी मोनजात :** उदकाचे गिरेस्तकायेक लागून राज्यांत वनस्पत आनी मोनजात व्हड प्रमाणांत दिश्टी पडटा. दार्जिलिंग, जलपैगुरी, कुचबिहार, मेदिनीपूर वाठारांत व्हड रानां आसात. दक्षिणेंत ५२५६ चौ. मैल वाठारांत पातळिल्ले 'सुंदरबन' वनस्पतीक लागून नांवाजिल्लें आसा. जलदापारा अभयारण्य ९३ चौ. किमी. क्षेत्रफळाभितर वसलां. दर्यादिगेसावन १,००० मी. वयर सुवातेर हिरडो, तून, सोनचांफो, कोंडो, १,५०० ते ३,००० मी. सुवातेंत ओक आनी पायन ही रुखावळ दिश्टी पडटा. अस्तंतेकडल्या सड्यार शाल, पळस, मोह, तांबडी सावर, हिरडो, कोंडो हे रूख दिसतात. सुंदरबनांत सुंद्री, गोरान, गेवा, तिवर, घुंडाल हीं खाऱ्या जमनींत वाडपी झाडां आसात. मैदानांतल्या सपाट वाठारांत पिंपळ, वड, हाली, साग, शाल, खैर, शिंशें, शिवण आनी चिलौन जातीचीं झाडां पळोवंक मेळटात. गेंडो, हत्ती, हरण, वाग हीं राज्यांत मेळपी मुखेल रानटी जनावरां आसात.

**इतिहास :** पुर्विल्ल्या संस्कृत साहित्यांत बंगाल वाठाराक (अस्तंत बंगाल हो ताचो एक वांटो) वंग आनी गौड ह्या नांवांनी पाचारिल्लें पळोवंक मेळटा. महाभारतांतल्या झुजांत वंग प्रांताचो राजा कौरवांचेवटेन पांडवांआड झुजिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. भारतांतल्या हेर वाठारांपरस बंगालांत आर्यीकरण खूब उसरां जालें. ते आदीं ऑस्ट्रिक आनी द्रविड लोक ह्या वाठारांत वसती करून राविल्ले. अथर्ववेद आनी शतपथ ब्राह्मणांत तांचो उल्लेख 'प्राच्य लोक' असो केला.

इसवी सना आदल्या सव्या शतमानांत जैन आनीं बौध्द साहित्यांत अंग, वंग, राघ आनी सुमोत्र ह्या बंगालांतल्या महाजनपदांचो उल्लेख येता. हीं महाजनपदां बळिश्ट आसून तांचेकडेन खडेगांठ सैनीकबळ आशिल्ल्याचें प्लिनी हाणें म्हळां. खिस्ताआदल्या तिसऱ्या शतमानांत मौर्य सम्राट चंद्रगुप्त हाणें बंगाल जिखून घेतलो. तेवरवीं मौर्य राजवट हांगा सुरू जाली. ह्याच काळांत हांगा आर्यीकरणाक आरंभ जालो. इसवी सना उपरांत पांच शतमानां हें आर्यीकरण चललें. ह्या ८०० वर्सांच्या कालखंडांत बंगाली भौसान आर्यभाशा (मागधी) आपणायली. तेचपरी ब्राह्मणाच्या फुडारपणाखाल धर्म आनी संस्कृती शिकून घेतली. वैदिक धर्मावांगडा बौध्द आनी जैन मतांचोय प्रसार मौर्य राजवटींत हांगा जालो. सम्राट अशोकाच्या अंता उपरांत मौर्य राजवटीचो अस्त जालो. मौर्यां फाटल्यान कुशाण राजवंशान ह्या वाठाराचेर सत्ता चलयली असो अदमास ह्या वाठारांत मेळिल्ल्या फातरांपटे आनी नाण्यांवयल्यान पुरातत्त्वज्ञांनी काडला.

इसवी सनाच्या चवथ्या शतमानांत गुप्त वंशाची सत्ता ह्या वाठाराचेर सुरू जाली. आयचो अस्तंत बंगाल समुद्रगुप्ताच्या कालखंडांत गुप्त राजवटींत आस्पावतालो. त्या वेळार जायत्यो राजवटी आपलें वेगळें अस्तित्त्व सांबाळून आशिल्ल्यो. हातूंत गौड राजवटीक श्रेश्ठच लेखतात. तांणी गुप्त राजवटीआड एक व्हड काळ मेरेन खर संघर्श केलो. कालांतरान जेन्ना गुप्त आनी मौखरी घराण्यांभितर संघर्श सुरू जालो, तेन्ना गौडांनी गुप्तांची बाजू घेतली. सातव्या शतमानांत गौड वंशांत शशांक नांवाचो पराक्रमी राजा जावन गेल्लो. महाकवी बाणान ताका आपल्या हर्षचरित्रांत 'गौडाधिपती' म्हळां. उपरांत कनौजसम्राट हर्षवर्धन हाणें शशांक हाका हारोवन बंगाल घेतलें. अशे तरेन गौड राजवटीचो अस्त जालो. राजा शशांका फाटल्यान ह्या वाठारांत बळिश्ट अशी सत्ता नासली. देखून आठव्या शतमानाच्या पयल्या अर्दामेरेन ह्या वाठारांत राजकीय अस्थीरता उरली. इ. स. ७५० च्या अदमासाक पाल वंशांतलो 'गोपाल' हाणें आपल्या कर्तृत्त्वाच्या बळार हांगाचे राजसत्तेचेर ताबो मेळयलो आनी राजकीय उचांबळाय सोंपोवन शांतीकाय हाडली. तो बौध्दधर्मीय आसलो. ताणें वीस वर्सां राज्य केलें. ताचे फाटल्यान ताचो पूत धर्मपाल राजा जालो. ताणें इ.स. ८१० मेरेन

राज्य केलें. ह्या काळांत ताणें राश्ट्रकूट आनी प्रतिहार राजवटींआड झुजून पुराय उत्तर भारत आपल्या शेकातळा हाडलो. अस्तंतेक सिंध आनी दक्षिणेक नर्मदा न्हंयेमेरेन ताच्या राज्याच्यो शिमो आशिल्ल्यो. धर्मपालाफाटल्यान देवपाल, विग्रहपाल आनी निमाणें नारायणपाल ह्या राजांनी इ.स. ९०८ मेरेन बंगालाचेर राज्य केलें. नारायणपालाच्या डळमळीत फुडारपणाक लागून पालवंशीयांची सत्ता प्रतिहाराकडेन गेली. पूण राश्ट्रकुटांनी प्रतिहाराक हारयिल्ल्यान नारायणपालाक आपलें राज्य परत मेळ्ळें. नारायणपाला उपरांत राज्यपाल, गोपाल आनी विग्रहपाल हांणी सुमार आठ वर्सां राज्य केलें. पालवंशांतल्या महिपाल, जयपाल, तिसरो विग्रहपाल, दुसरो महिपाल, सूरपाल, रामपाल हांणी इसवी सन ११०२ मेरेन राज्य केलें. रामपाला उपरांत पालवंश दुबळो जालो. राधा प्रांताचो राजा विजयसेन हाणें पालवंश पुराय तरेन नश्ट केलो (इसवी सन ११६०). पाल राजघराण्यान बंगालाचेर ४०० वर्सां राज्य केलें. ह्या काळांत हांगा साहित्य, कला, तत्त्वज्ञान आनी गिन्यानाच्या मळार व्हड उदरगत जाली. देखून ह्या काळाक 'पालयूग' म्हण्टात.

इकराव्या शतमानांत वर्मा आनी बाराव्या शतमानांत सेन राजवंशान बंगालांत सत्ता भोगली. लक्ष्मणसेन राजाचे राजवटींत साहित्य कलेक खूब आदार मेळ्ळो. महाकवी जयदेव ताच्या दरबारांत आसलो. ताचे फाटल्यान देववंशाची राजवट आयली. ह्या वंशांतलो दुनजमाधव दशरथ हाणें पट्टिकेरा वाठारांचेर राज्य केलें. ही राजवट भोव थोडो काळ आसली. इ.स. १२००च्या अदमासाक बख्त्यार खिलजी हाणें बंगालचो चडसो वाठार आपल्या शेकातळा हाडलो. हेवरवीं ह्या वाठाराचेर मुसलमानी राजवट आयली. ताचे फाटल्यान अलीमर्दानखान, गियासुद्दीन, नासिरुद्दीन, बग्राखान, कद्रखान, बहारामखान, इझुद्दीन, इलियासशहा सिंकदरशहा ह्या सुभेदारांनी इ.स. १४१६ त ह्या वाठाराचेर आपलो ताबो दवरलो. पंदराव्या शतमानांत गणेश ह्या हिंदू राजान मुसलमानी सत्तेक हारोवन हो वाठार आपल्या ताब्यांत घेतलो. ताचे फाटल्यान ताचो चलो यदू हाणें इस्लाम धर्म आपणावन जलालुद्दीन ह्या नांवान १४३१ मेरेन राज्य केलें. फुडें बंगालची सत्ता इलियास वंशाकडेन गेली. ती १४८७ मेरेन आसली. उपरांत विंगड विंगड सुभेदारांचें ह्या वाठाराचेर शासन आसलें. हातूंत अल्लाउद्दीन हुसेनशहा नांवाच्या सुभेदाराच्या कालखंडांत म्हळ्यार १४९३ ते १५१९ बंगालांतलो म्हान संत चैतन्य जावन गेलो. हो काळ शांती आनी भावपणाचो आसलो. १५३८ त शेरशहा हाणें ह्या वाठाराचेर आपलो ताबो मेळयलो. ताणें आपलो कारभार बरे तरेन चलयलो. १५७४ त मोगल सम्राट अकबर बादशहान बंगाल जिखून थंय आपलो सुभेदार दवरलो. राजा मानसिंग १५८७ ते १६०५ बंगालचो सुभेदार आसलो. ह्याच काळांत पुर्तुगेज लोकांनी आराकान आनी चितागाँग (आयचो बांगलादेशाचो वाठार) ह्या सुवातांनी आपलो जम बसयिल्लो. थोड्या काळा उपरांत पुर्तुगेजांनी हुगळीक आपलें ठाणें केलें. औरंगजेबाचे राजवटींत मीर जुमला आनी शाहिस्तेखान बंगालचे सुभेदार जाले. ह्याच काळांत वेपार-उद्येगाचें निमित्त करून ब्रिटिशांनी इस्ट इंडिया कंपनीच्या नांवान आपलो जम बसयलो. जायत्या सुवातांनी आपल्यो वखारी उकत्यो केल्यो. फ्रेंच आनी हॉलंडी लोकांनीय आपल्यो वखारी घाल्यो. १६८८ वर्सा मोगलां आड जाल्ल्या झुजांत ब्रिटिशांक हार खांवची पडली तरीय हुगळीक वेपार करपाक आनी उलबेरियाक किल्लो बांदपाखातीर मोगलांची मान्यताय तांकां मेळ्ळी. १६८९ त इब्राहिमखान हो बंगालचो सुभेदार जालो. ताणें शांततायेचो पुरस्कार केलो. पूण ताच्या कार्यकाळांत उपराशिल्ली बंडाळी ताच्यान आटापा हाडूंक जालिना. पूण ब्रिटिशांनी हाचो फायदो घेतलो. स्वताचे राखणेचें कारण मुखार करून तांणी कलकत्ता, चंद्रनगर, चिनसुरा नगरांनी व्हड किल्ले बांदले. इ.स १६९० मेरेन ब्रिटिशांनी बंगालांतलो पुराय वेपार-उद्देग आपल्या ताब्यांत घेतलो. इ.स. १७०० वर्सा ब्रिटिशांनी सुटानाटी गोविंदपूर आनी काळिकाता हीं खेडीं विकतीं घेतलीं. काळिकाता फुडें कलकत्ता म्हणून नांवारुपाक आयलें.

१७५६ त अलिवर्दिखान हाचो नातू सिराज उद्दौला हो पिरायेच्या एकुणिसाव्या वर्सा बंगालचो सुभेदार जालो. हो बंगालचो निमाणो नवाब. त्या वेळावलो तत्कालीन इस्ट इंडिया कंपनीचो मुखेली क्लायव्ह हाणें ताचो प्रधान मीर जाफर हाका फितूर केलो. १७५७ त जाल्ल्या प्लासीच्या झुजांत मीर जाफर हाणें ब्रिटिशांक नवाबाआड आदार दिलो. हाका लागून प्लासीची लडाय ब्रिटिशांनी जिखली. ह्या जैतान ब्रिटिशांची भारतांतली बुन्याद घट जाली. १७७२ ते १८०७ ह्या काळांत लॉर्ड वॉरन हेस्टिंग्स, मॅकफरसन, कॉर्नवालीस, वेलस्ली, मिंटो हे इस्ट इंडिया कंपनीचे गव्हर्नर जनरल म्हणून बंगालांत आयले.

ब्रिटीश सत्तेआड समाजीक आनी राजकीय मळार जागृताय करपाचो वावर बंगालांत खूब आदीं सुरू जालो. १८५१ त 'नॅशनल असोसिएशन' ची स्थापणूक जाली. तिचें स्वरूप अखिल भारतीय पांवड्यावयलें आसलें. १८३८ त 'ब्रिटीश-इण्डिया सोसायटी' ची स्थापणूक जाली. तातूंत सगळ्या जातीधर्मांचे जमीनदार एकठांय जाल्ले. १८६७ ते १८८० मेरेन कांय देशभक्त लोकांनी 'चैत्रमेळा' नांवाचो उत्सव चालू दवरिल्लो. ह्या उत्सवाचो मुखेल हेत देशाखातीर एकठांय येवप हो आसलो. ब्रजेंद्रनाथ ठाकूर, गणेन्द्रनाथ ठाकूर, नवगोपाल मित्र हांची बुद्द ह्या मेळाफाटल्यान आसली. रवींद्रनाथ टागोर होय ह्या मेळांत वांटो घेतालो. अशा संघटणांतल्यान फुडें काँग्रेस जल्माक आयली. ह्याच कालखंडांत बंगालच्या राजकीय मळार बिपीनचंद्र पाल, सुरेंद्रनाथ बॅनर्जी हांचो उदय जालो. सुरेंद्रनाथ बॅनर्जी १८९५ वर्सा पुणें आनी १९०२ वर्सा अहमदाबादेक भारिल्ल्या काँग्रेस अधिवेशनाचो अध्यक्ष आसलो. बिपीनचंद्र पाल क्रांतिकाराच्या गुप्त पंगडाकडेन संबंदीत आसलो. वंगभंग आनी स्वदेशी आंदोलन हातूंत ताचो वांटो मोलाचो थारला.

वंगभंग हें बंगालच्या इतिहासांतलें काळें प्रकरण. ब्रिटिशांनी १९०५ वर्सा धर्माच्या नांवान केल्ले बंगालचे फाळणेक हिंदू आनी मुस्लीम ह्या दोनूय जमातींनी खर विरोध केलो. निमाणें १९११ वर्सा ब्रिटीश सरकारान बंगाली भौसामुखार नमून लॉर्ड कर्झन हाणें फाळणेचो वटहुकूम फाटीं घेतलो. भारतीय सुटके झुजांत बंगालच्या क्रांतिकारकांचो वांटो खूब मोलाचो. वंगभंगा उपरांत तांचें कुशळ संघटण करपाचो वावर अरविंद घोष हाणें केलो. गांधीच्या असहकार आंदोलनांत पुराय बंगाल वांटेकार जाल्लो. चित्तरंजन दास हाणें असहकार आंदोलनांत बंगाली भौसाचें फुडारपण केलें. ताच्या फाटल्यान हे चळवळींचें फुडारपण सुभाषचंद्र बोस हाचे कडेन गेलें. हरीपुराक भरिल्ले काँग्रेसीचो तो अध्यक्ष आसलो. ताच्या क्रांतिकारी विचारांचो मेळ हेर काँग्रेसी फुडाऱ्यांवांगडा पडूंक नाशिल्ल्यान तो पक्षांतल्यान भायर सरलो आनी ताणें फॉरवर्ड ब्लॉक नांवाच्या पक्षाची स्थापणूक केली. आझाद हिंद फौज हे संघटणेची निर्मणी करपांत तांचो म्हत्वाचो वांटो आसा.

१९४१ वर्सा जपानाच्या आदारान सिंगापूरांत ताणें आझाद हिंद फौजेचें पुनर्संघटण केलें. हेखातीर ताणें जर्मनीचोय पालव मागिल्लो. २१ ऑक्टोबर १९४३ वर्सा सिंगापूरांत ताच्या फुडारपणाखाला स्वतंत्र भारताच्या हंगामी सरकाराची स्थापणूक केली. जपानान ब्रिटिशांकडल्यान जिखून घेतिल्ले अंदमान निकोबार हे जुंवे आझाद हिंद फौजे सुवादीन केले. १९४४ वर्साच्या म्हाझुजांत जर्मनी आनी जपान हांकां हार खावंची पडली आनी तेवरवीं तांचेर आदारून आशिल्ले आझाद हिंद फौजेक खर धपको बसलो. १८ ऑगस्ट १९४५ त सुभाषचंद्र बोस हाका विमान अपघातांत मरण आयलें. हाका लागून हांगाचे क्रांतिकारी संघटणेची ब्युन्याद हाल्ली. दुसरे वटेन दुसऱ्या म्हाझुजाच्या धपक्यांतल्यान युरोपांतल्या चडशा देशांची अर्थीक आनी लश्करी तांक उणावल्ली. ब्रिटिशांकय भारताचेर शासन चलोवप खूब कठीण जावंक लागिल्लें. निमाणें ब्रिटिशांनी भारताक स्वातंत्र्य दिवंचेआदीं पुराय भारताची धर्मीक भारत आनी पाकिस्तान अशी फाळणी केली. हाचो परिणाम म्हणून बंगालाचेय दोन कुडके जाले. उदेंत बंगालांत मुसलमान चड आशिल्ल्यान तो पाकिस्तानांत आस्पावलो. १९७२ त उदेंत पाकिस्तान, पाकिस्तानासावन वेगळो जालो. आयज ह्या वाठाराक 'बांगलादेश' म्हण्टात. भारतीय संघराज्यांतलें बंगाल (अ.) राज्य १९४७त अस्तित्त्वांत आयलें. १ जानेवारी १९५० ह्या दिसा कूचबिहार हो जिल्हो ह्या राज्यांत आस्पावलो. २ ऑक्टोबर १९५४ ह्या दिसा चंद्रनगर हो वाठार बंगालांत आस्पावलो. १९५६ वर्सा राज्य पुनर्रचणूक अधिनेमावरवीं बिहार राज्याचो ८१७७ चौ. किमी. वाठार ह्या राज्यांत आस्पावलो.

**राज्यवेवस्था** : राज्यांत त्रिस्तरीय पंचायत राजवेवस्था आसा. १९८८ वर्सा मेरेन राज्यांत ३४३७ पंचायती, ३३१ पंचायती समिती आनी १६ जिल्हो परिशदो आसल्यो. राज्यांतले विधानसभेचेर २९४, लोकसभेचेर ४२ आनी राज्यसभेचेर १६ वांगडी वेंचून काडटात. थळावें प्रशासन बरे तरेन चलचें म्हणून राज्याचे १७ जिल्हे केल्यात. तांचीं नांवां अशीं- बांकूरा, बिरभूम, वर्धमान, कलकत्ता, कूचबिहार, दार्जिलिंग, हुगळी, हावडा, जलपैगुरी, माल्डा, मेदिनीपूर, मुर्शिदाबाद, नादीया, पुरुलिया, उत्तर चौवीस परगणा, दक्षिण परगणा आनी अस्तंत दिनाजपूर. राज्याचें राजपाटण कलकत्ता आसून राज्य प्रशासन हांगासावन चलता.

**अर्थीक स्थिती** : राज्यांत देशांतलें १४% भात-पीक जाता. १९८८-९८ वर्सा भाताचें वट्ट उत्पादन १,१५,१५५ हजार टन इतलें जालें. भातपिकाखाला ५६२२.० हजार हेक्टर भूंय आसा. राज्यांत देशांतलें ५९.५% ताग, २१.५% च्या, २९.२% बटाट हांचें उत्पादन जाता. १९८८-८९ मेरेन तेलबियांची लागवड ४९२.५ हजार हेक्टर वाठारांत केल्या. ताचे पासून ४०३.६ हजार टन तेलबियांचें उत्पादन जाता.



हिंदुस्थान ऑटोमोबाईल्स, अस्तंत बंगाल

कोळसो आनी चीनी माती राज्यांत व्हड प्रमाणांत मेळटा. हेर खनिजांमदीं डोलोमायट, रॉक फॉस्फेट, भाजिल्ली माती, चूनखडी, तांबें, लोखण, सिलिका, मँगनीज, रेंवचे फातर (Sandstone) हांचो आस्पाव जाता. १९८७ त राज्यांत कोळशाचें उत्पादन २१.०६ दशलक्ष मॅट्रीक टन इतलें जालें. ताग, च्या, कापड गिरणी, रेशीम, सायकली, कागद, यांत्रिकी आनी अभियांत्रिकी वस्तू, रसायनां, साकर, ॲल्युमिनीयम, लांकूड कारागिरी,

जोतीं, दुदाचें उत्पादन, कंवची हे उद्देग राज्यांत भरभराटीक आयल्यात. केबल, रेल्वे डबे, सारीं, तारवां, बांदावळ हे उद्देग सरकाराच्या नियंत्रणाखाला आसात.

**शिंपणावळ प्रकल्प :** दामोदर देगण प्रकल्प, मयूरकाशी प्रकल्प, कांगसाबटी प्रकल्प हे राज्यांतले भोवउद्देशी शिंपणावळ प्रकल्प आसात. तिस्ता धरण प्रकल्पूय राज्यांत उदकापुरवणेच्यो गरजो भागयता.

**ऊर्जा प्रकल्प :** दामोदर देगण प्रकल्प, मयूरकाशी प्रकल्प, बंदेल ऊर्जा प्रकल्प केंद्र, संथालदी ऊर्जा केंद्र, दुर्गापूर प्रकल्प, कोलघाट ऊर्जा प्रकल्प. राज्यांत वीज आनी ऊर्जा पुरवण करपाचो म्हत्वाचो भार उखलतात. कलकत्ता वीज पुरवण महामंडळ शारांत वीज पुरवण करता. ताच्या हाताखाल चार केंद्रां आसात.

**येरादारी आनी संचारण :** उदकाळ न्हंयो आनी व्हड दर्यादेग हांकां लागून राज्यांत उदका येरादारीक खूब म्हत्व आसा. राज्यांत ७७९ किमी. लांबायेचे उदका मार्ग (न्हंय आनी खारिजां मेळून) आसात. राज्यांतलें म्हत्वाचें शार हुगळी न्हंयेचेर वसलां. उदका- रस्त्याचीं साधनां उपलब्ध आशिल्ल्यान तें वेपार आनी अर्थीक उलाढालींचें केंद्र थारलां. ईशान्य भारताक भारताच्या हेर वांट्यांकडेन जोडपांत राज्यांतल्यान वचपी रेल्वे आनी रस्ते उपगी थारल्यात.

**ट्राम :** राज्यांत उपलब्ध आशिल्लें एक म्हत्वाचें येरादारीचें साधन. ट्रामसेवा राज्यांत कलकत्त्याक १८८३ वर्सा सुरू जाली. 'कलकत्ता ट्रामवेस कंपनी' ही सेवा दिता. १९९१-९२ त हे सेवेसावन राज्याक १०.५० कोटी येणावळ मेळ्ळी. पूण तेच वांगडा ३७.२५ कोटी खर्चाचो भार पडिल्ल्यान वट्ट २७ कोटी लुकसाण सोंसचें पडलें. हाका लागून ही सेवा बंद करपाचो प्रस्ताव सरकारान विचारांत घेतला.

१९८६ मेरेन बंगाली भाशेंत ५२ दिसाळीं आनी ४३३ सातोळीं भायर सरतालीं. राज्यांत मान्यतायप्राप्त दिसाळयांचो खप ९ लाख १० हजार जाल्यार हेर नेमाळयांचो १३ लाख ६९ हजार इतलो आसा (१९८९). अमृतबझार पत्रिका इंग्लीश बंगाली हें राज्यांतलें म्हत्वाचें दिसाळें आसून १९९० त ताचो दीसपट्टो खप ४,०८,७७३ इतलो आसलो. हेर म्हत्वाच्या खबरांपत्रांमदीं जुगांतर (बंगाली), स्टेटसमन (इंग्लीश), हिंदुस्थान स्टँडर्ड (इंग्लीश), विश्वामित्र (इंग्लीश), सनमार्ग (इंग्लीश) हांचो आस्पाव जाता.

राज्यांत दूरदर्शन आनी आकाशवाणीचें जाळें पुरायपणान पातळिल्लें आसा. कलकत्ता दूरदर्शन केंद्र दोन वाहिनींवयल्यान कार्यावळी वितरायता. सिनेमा निर्मणेंतूय नवे नवे प्रयोग जाल्ले आसून १९९० वर्सा बंगाली भाशेंत ५० सिनेमांची निर्मणी जाली. १९९० वर्सा कलकत्त्याच्या चित्रनिर्मणी केंद्रांनी विंगड विंगड भाशांतली ७७ सिनेमांची निर्मणी जाली.

**लोक आनी समाजजीण :** राजपाटण- कलकत्ता. लोकभास- बंगाली. अक्षांश आनी रेखांश २१°३८ उत्तर ते २७°१०' उत्तर आनी ८५°५० उदेंत ते ८९°५०' उदेंत. लोकसंख्या ६७९८२,७३२ (१९९१).

**धर्म :** राज्यांत हिंदूंचें प्रमाण ७८%, मुसलमान १९% आनी हेर ३% बौध्द, जैन आनी क्रिस्तांव आसात. हेर जातीं मदीं उच्चवर्गियांच्यो सप्तशती, वैदिक, कनौजी, साहू, मोदी, बनिया कामकरी जातीं मदीं गोप, गदेरी, धनगर, कुणबी, कोइरी, कलित अघरिया आनी आदिवासी जातींमदीं बेदिया, राजवाड आनी बागडी जमाती राज्यांत आसात.

अस्तंतेच्या प्रभावाखाल बंगाली मनशाचो आयचो भेस आसलो तरी सादारणपणान बंगाली दादलो धोतंर न्हेसता. खांद्यार शाल आनी आंगाक सैल सदरो घालता. बंगाली बायलो पांच वारी साडी न्हेसतात. बायलांची न्हेसण न्हेसपाची पद्दत खास बंगाली ढंगाची आसता. तांबडे देगेची धवी साडी, भागांत सिंदूर, शंखाचीं कांकणां आनी पांयांतली मेथी बंगाली सवायशीण बायलेच्या आंगार सर्रासपणान दिसता.

शीत आनी नुस्तें बंगाली लोकांचें मुखेल अन्न. जेवणांत मोरयेचें तेल आनी नाल्ल हांचो वापर चड प्रमाणांत जाता. जेवणाच्या शेवटाक धंय खावपाची पद्दत हांगा आसा. रसगुल्ला, संदेश, चमचम, कालाजाम, तांदळाची खीर (पायस) हे हांगासल्ले मुखेल गोड खाणांचे प्रकार.

बंगाली लोक भुरगें जल्मतकच सव्या दिसा षष्ठी देवतेची (सटी) पुजा करतात. ह्या दिसा ब्रह्मदेव भुरग्याचें भविश्य बरयता अशी समजूत आसा. ल्हान भुरग्यांक मोरयेचें तेल लावन, वतांत दवरून उपरांत न्हाणोवपाची चाल आसा. मोरयेच्या तेलान भुरग्यांचीं हाडां घट जातात असो हांगाचो लोकमानस मानता. भुरग्याचें नांव आठ म्हयन्यांचेर दवरतात. ह्या सुवाळ्याक अन्नप्राशन म्हण्टात. मूज बांदपाचो विधीय ह्या लोकांमदीं चलता. बंगाली भुरग्याक मूज बांदतकच तीन दीस मेरेन सुर्याचें दर्शन घेवंक मेळना. मंगल समयार शंख वाजोवप ही बंगाली लोकांची आजवेरची परंपरा. सोयऱ्याचें स्वागतूय शंख वाजोवन जाता. लग्न सादारणपणान व्हंकलेगेर जाता. चडशीं लग्नां गोरज म्हुर्तार जातात. लग्नांत चलयेची आवय न्हवऱ्याचें तोंड पळयना. होमहवन जातकच लोकांक गवाय दवरून न्हवरो व्हंकलेच्या माथ्यांत सिंदूर भरता. हाका 'सिंदूर-दान' म्हण्टात. रातीकडेन व्हंकलेगेर जेवणखाण जाता. दुसऱ्या दिसा चली घोवागेर वता.

बंगाली लोकांचें नवें वर्स वैशाख म्हयन्यांत सुरू जाता. नव्या वर्सा दिसा लोक गंगास्नान करून दानधर्म करतात. वेपारी नवे हिशेब ह्याच दिसा सावन सुरू करतात. गिमाच्या दिसांनी उदक आटचें न्हय, शेतांतलें पीक सुकचें न्हय म्हणून 'पुन्नि पुकूर' हें व्रत मनयतात. ते खातीर एक फोंड खणटात. तो उदकान भरतात. ताचेर बेलाची खांदी दवरतात. बेलाचे खांदयेर आनी फोंडाच्या चारूय वटांनी फुलां सोडटात आनी पुजा करतात. बंगाली चलयो ह्या वेळार पदां गायतात. ताका 'छडा' म्हण्टात. राज्यांत हेर परबांमदीं जामाय षष्ठी, भादुली, विश्वकर्मापुजा, भादु आनी तुशू,

कोजागिरी, भाईकोटा, कार्तिक पुजा, संक्रांत, श्री पंचमीहोळी हांचो आस्पाव जाता.

दुर्गापुजा ही बंगाली मनशाची सगळ्यांत व्हड परब. आश्विन म्हयन्याच्या नवरात्रांत धा भुजांचे दुर्गेचे मुर्तीची सगळ्या वाठारांनी पुजा जाता. नवरात्रांतले णव दीस दुर्गेमुखार 'चंडीपाठ' चलता. धाव्या दिसा दुर्गेचें विसर्जन करतात. बंगालांत दुर्गेक 'ठाकूर' आनी तिचे पुजेक 'अकाल-बोधन' म्हण्टात.



दुर्गादेवी

**कलाकुसर :** चित्रकलेक बंगाली लोक 'पट' ज़ाल्यार चित्रकाराक 'पटुआ' म्हण्टात. कालीघाटचे 'पटुवे' चित्रां काडपांत फिशाल आसतात. रामलीला, कृष्णलीला, पुराणीक चित्रां, वाग, शिवाचीं चित्रां ते खास करून काडटात. मातयेचीं आयदनां आनी धांकणीं हांचेवयली चित्रकला बंगाली लोककलेचें एक जिवें आंग. हांगाच्यो मातयेच्यो मुर्ती खूब नांवजिल्ल्यो आसात. पुर्विल्ल्या काळासावन हांगा खास तरेच्यो मातयेच्यो बावल्यो तयार करतात. ताका 'बेनपुतल' म्हण्टात. प्रत्येक खेड्यांत 'मुर्तीकार पाडा' नांवाचो वाठार आसता. आर्विल्ले भारतीय चित्रकलेंत नवे प्रयोग बंगाली चित्रकारांनी केले. तातूंत अवनींद्रनाथ ठाकूर हांचो वांटो खूब व्हड आसा. अजंठा, मोगल, पहाडी, चीनी, जपानी आनी हेर विंगड विंगड चित्रशैलींचो तो जाणकार आसलो. ताणें बंगालांत अजंठा-चित्रशैलीक परती जिवी केली. नंदलाल बोस, असित हालदार, मुकूल डे, देवीप्रसाद, रॉयचौधरी आनी रवींद्रनाथ टागोर हांचो वावर खूब मोलाचो.

**वास्तूशिल्प :** बासबेडियाचें विष्णु आनी हंसेश्वरी देवीचें देवूळ म्हळ्यार भारतीय स्थापत्यकलेची आगळी वेगळी कुरू. विष्णुमंदिराचे वण्टीचेर रामायण आनी महाभारतांतलीं चित्रां कोरांतिल्लीं आसात. बांकूडा वाठारांतलीं देवळां, बंगाली घराच्या वयल्या धांपण्यावरी दिसतात. 'जोडा-बांगला मंदीर' ही विष्णुपुराणांतल्या देवळाची खास शैली आसून ताचेवयलें नक्षीकामूय अप्रूप आसा. हांगासल्ली थळावी लोकशिल्पकला उंचेल्या पांवड्यावयली आसा. मुसलमानी राजवटीक लागून हांगाचे स्थापत्यकलेचेर पडिल्लो मुसलमानी शैलीचो थोडो भोव प्रभाव आयजूय जाणवता.

**रांगोळी/रेखाटन :** बंगाली लोककलेचें आनीक एक खाशेलें आंग. घरामुखावयलें आंगण सारोवन जी रांगोळी घालतात, ताका 'अल्पना' म्हण्टात. अल्पना काडचे खातीर सुरवेक तांदळाची पिठी उदकांत कालयतात. उपरांत लुगटाच्या कुडक्याच्या आदारान, हातांनी सोबीत सुंदर अल्पनाचें रेखाटन करतात.

**हेर कारागिरी :** वीरभूम जिल्ह्यांतलो फूलमाळी नांवाचो कारागिराचो वर्ग सनकाड्या आनी भेंड ह्या वस्तूंसावन सोबीत सजावटीच्यो वस्तू तयार करता. नरम लांकडामदीं कातरकाम करून केल्ल्यो ल्हान-व्हड फणयो, दाराक लावपाचें तोरण, गळ्यांत घालपाचे हार, लग्नांत न्हवऱ्याच्या माथ्यार घालपाची तोपी ह्या जिल्ह्यांतले कारागीर तयार करतात. मुर्शिदाबादेक (कलकत्ता) हतयाच्या दांतांसावन देव-देवतांच्यो ल्हान ल्हान मूर्ती, कांकणां, कुकमाच्यो डबयो तयार करतात. विष्णुपुराणांत शंखाचीं कांकणां करतात. ढाक्का आनी कलकत्त्याक भांगर आनी रुप्याचेर नक्षीदार नाजूक काम करतात. विष्णूपूर, मुर्शिदाबाद, शांतिपूर, टंगाई, चंद्रकोना, भागलपूर, फराशडांगा आनी हेर सुवांतींनी जावपी रेशीम नांवाजिल्लें आसा. मेदिनीपूरच्यो शेंदऱ्यो खूब नामना जोडून आसात. भादुर आनी शीतलपाटी नांवाच्या तणासावन ह्यो शेंदऱ्या करतात. शेंदऱ्यो खास करून बायलो विणटात. जाण्ट्यो बायल्यो फाविल्ल्या वेळांत सुंदर गोजड्यो शिंवतात. तांकां बंगालांत 'कंथा' म्हण्टात. लेप, सुजनी, बेतन, ओआर, आरसीलता, दुर्जनी आनी रुमाल अशो सात तरांच्यो कंथा आसतात.

**शिकप/शिक्षण पद्दत आनी प्रसार :** १९९१ चे लोकमेजणेप्रमाण राज्याची साक्षरताय ५७.७२ % आशिल्ली. दादल्यांची साक्षरताय ६७.२४% जाल्यार बायलांची ४७.१५%. राज्यांत फुडल्यो विंगड विंगड पांवड्यांवयल्यो शिक्षणीक संस्था आशिल्ल्यो. १९८७-८८ त मुळाव्यो ५०,८२७, पूर्व माध्यमिक - ४१४७, माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक - ६८०१, म्हाविद्यालयां (फकत शिक्षणीक - ३०२, वेवसायीक म्हाविद्यालयां - ६२, विद्यापिठां - १०.

भारतांत ब्रिटीश सत्तेचो शेक सगळयांत पयलीं बंगालांत सुरू जालो. देखून शिक्षणीक मळावयल्या सुदारणांचो पयलो लावूय बंगालाक



व्हिक्टोरीया मेमोरिअल, कलकत्ता-अस्तंत बंगाल

मेळ्ळो. 'एशियाटीक सोसायटी ऑफ बेंगाल', 'कलकत्ता विद्यापीठ,' 'हायकोर्ट', 'विधान परीशद' सारकिल्यो संस्था हांगा अस्तित्त्वांत आयल्यो. राज्यांतलीं म्हत्वाचीं विद्यापिठां अशीं आसात- बिदानचंद्र कृषी विश्वविद्यालय, मोहनपूर; बरद्वान विद्यापीठ, बरद्वान; कलकत्ता विद्यापीठ, कलकत्ता; जाधवपूर विद्यापीठ, कलकत्ता; कल्याणी विद्यापीठ, कलकत्ता; उत्तर बंगाल विद्यापीठ, सिलिगुडी; रवींद्र भारती विद्यापीठ, कलकत्ता; विश्वभारती, शांतीनिकेतन; विद्यासागर विद्यापीठ, मेदिनीपूर; इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅनेजमेंट, कलकत्ता; इंडियन स्टॅटिस्टिकल इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नोलॉजी, खरगपूर.

- पंढरीनाथ सुरसुरे

## बंगाली चित्रपट : (पळेयात चित्रपट).

## बंगाली जात्रा : बंगाली लोकनाट्याचो एक प्रकार. वेगवेगळया उत्सवांनी देव-देवतांचे रथ नगर-प्रदक्षिणांक भायर सरताले. रथांचे हे मिरवणुकेक जात्रा म्हण्टात. देवाचे भक्त अभिनय, गायन, नाच अशा मार्गांनी देवलीलांचें सादरीकरण करताले. ह्या सादरीकरणांतल्यान जात्रा ह्या लोकनाट्याचो उगम जालो. चैतन्य महाप्रभू हो स्वता अशे रथयात्रेंत वांटो घेवन कृष्णाचे बायलेचो अभिनय करतालो. तेभायर लोचनदास, जगन्नाथवल्लभ, यदुनन्ददास, रूप गोस्वामी आनी प्रेमदास हांच्या साहित्य-कृतींचेर आदारीत, जात्रेंत लोकनाट्यां जातालीं. लोकनाट्याच्या विकासाचे नदरेन दोन पांवडे करूं येतात १) पंदराव्या ते अठराव्या शेंकड्यांतल्यो परंपरागत जात्रा आनी २) अठराव्या शेंकड्या उपरांतच्यो अर्वाचीन जात्रा.

**परंपरागत जात्रा :** हे परंपरागत जात्रेक रंगमाची, नेपथ्य वा पड्डो नासता. देवळाच्या ओट्यार, मेकळ्या प्रांगणांतले उंचायेचेर ह्या नाट्याचो प्रयोग जातालो. हाच्या तिनूय वटांनी लोक बसताले. आमोरेचेर ही जात्रा सुरू जावन फांतोड मेरेन चलताली. 'अधिकारी' ह्या मुखेल्याच्या संयोजनाखाल जात्रेचो खेळ चलतालो. होच स्वता खेळाचो नायक आसतालो. अठराव्या शेंकड्याचे अखेरेक बरभूमव हांगचो 'परमानंद' हो एक नांवाजिल्लो अधिकारी आशिल्लो. ताचे उपरांत श्रीदाम सबळ हो एक अधिकारी आपल्या गितांखातीर प्रसिद्द आशिल्लो.

जात्रा हो प्रकार चडसो पदांचोच आशिल्ल्यान तातूंत सुमार ५०-६० पदां आसतालीं. मदीं मदीं नेटान संवाद आनी विनोद आसताले. खोल म्हळयार बंगाली धोल, मृदंग आनी झांजो, सारंगी हांच्या ताला-सुरार समुहगान जातालें.

हे जात्रेंत नाचापरस नाट्याचेर आनी प्रसंगाक धरून गायिल्लीं पदां हांचेर चड भर आसतालो. जात्रेची सुरवात नाटकांतले नांदेभाशेन 'गौरचंद्रिका' म्हणून जाताली. तातूंत चैतन्य प्रभूचें म्हळयार गौरांगांचें स्तवन आसतालें. ते उपरांत श्रीकृष्णनृत्य, राधा आनी तिच्या बारा इश्टिणींचीं पदां-नाच आनी उपरांत आख्यानांतलो अभिनय असो क्रम आसतालो. आख्यानाची सुरवात सदांच संघर्शमय प्रसंगान जाताली. हातूंतलो अभिनय भडक आनी कृत्रिम आसून बायलांच्यो भुमिका दादलेच करताले.

अशी ही जात्रा चडशी कृष्णलिलांचेर आदारिल्ली आसताली. 'कालियामर्दन' हें आख्यान चड लोकप्रिय आशिल्लें. ताका लागून मानभंग, नौकाविहार, कंसवध ह्या आख्यांनांकूय 'कालियामर्दन' ह्या नांवानूच पाचारताले. ओरिसांत लेगीत त्या काळांत जागेचे खेळ चलताले.

**अर्वाचीन जात्रा :** देवळांनी जाताले ते हे जात्रेचे खेळ उपरांत जमीनदारांगेर लग्नसुवाळ्यांनी जावपाक लागले. प्रेक्षकांचे अभिरुचीप्रमाण जात्रेच्या कथानकांनीय बदल जायत गेले. अठराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक विष्णुपूर, वर्धमान, वीरभूम आनी नडिया जिल्ह्यांनी जात्रा बरोवपी लेखक तशेंच वेवसायीक अशे गायक नट तयार जाले. धर्म, भक्ती हांच्या स्वरुपांत तयार जाल्ले जात्रेच्या मूळ स्वरुपांत खूब बदल जाले. कृष्णजात्रे वांगडा रामजात्रा, शिवजात्रा, चंडीजात्रा जावंक लागल्यो. ह्या जात्रांनी प्रणयकथांचोय कांय प्रमाणांत आस्पाव जावंक लागलो. एकुणिसाव्या शेंकड्यामेरेन जात्रेच्या कथानकांनी शृंगार, साहस, लूटमार, खून हांचें प्रमाण वाडलें. तातूंत खूब भडकपण येवन अश्लीलताय वाडली. हाका लागून प्रतिश्ठीत प्रेक्षक जात्रेपसून पयसावलो. उपरांत राजकीय संघर्श, राश्ट्रीयत्व, देशाविशीं अभिमान हे विशय जात्रेच्या कथानकांनी येवंक लागले.

जात्रेच्या तंत्रांत लेगीत खूब बदल जाले. आर्विल्ले स्वरुपाचे लांकडी रंगमाचयेचो जात्रेंत वापर जावंक लागलो. तशेंच खोल, झांज, मृदंग ह्या वाद्यांचे जोडयेक पेटी, सारंगी, बांसरी, वायोलीन, शेनाय हीं सूरवाद्यां आयलीं.

एके वटेन सूरवाद्यां आनी दुसरे वटेन तालवाद्यां अशी तांची बैठक

आसता. हे जात्रेचो खेळ सांजवेळार सुरू जावन ५ ते ६ वरां चलता. दोनूय वटांतले वादक त्या त्या प्रसंगाक अनुरूप असो सांजवेळचो कसलोय शास्त्रोक्त राग म्हणून खेळाक सुरवात करतात. उपरांत तारसप्तकांतली दुडके चालीची आनी द्रूत लयीची कसलीय धून वाजयतात. प्रेक्षकां सामकार उपरांत कृष्णाच्या इश्टिणींचें नृत्य सुरू जाता. एकाद्रे कुशळ नर्तकीचो बरोच वेळ नाच जातकच तातुंतूच आख्यानाक सुरवात जाता. ह्या नाट्यांतले पात्रांचे संवाद नेटान आनी भावनावेगान भरिल्ले आसतात. वातावरण निर्मिती जावंचेपासत पात्रांच्या संवादांक वाद्यांची साथ दितात. पात्रांक बसपाखातीर माचयेर कदेल वा तामरेत आसता. अशे तरेन जात्रेचें मूळ स्वरूप वचून ताची सुवात गांवगिऱ्या वाठारांतल्या लोकांच्या मनोरंजनाच्या माध्यमान घेतली. ह्या माध्यमाचो उपेग करून घेवन मुकुंद आनी हेर लेखकांनी जात्रेंतल्यान आपलीं समाजसुदारक मतां मांडून, जात्रेचो समाज सुदारणेचें माध्यम म्हणून वापर केलो. कलकत्त्यांतल्या अजितेश बंदोपाध्याय, उत्पल दत्त वा अरूण बॅनर्जी हांणी आपल्या नवनाट्यांतल्यान प्रचाराखातीर जात्रांच्या तंत्राचो उपेग केलो.

बंगाली जात्रा हो लोकनृत्य-नाट्य संगिताचो प्रकार महाराष्ट्र-गोंयच्या दशावतार, गुजरातच्या भवाई आनी कर्नाटकांतल्या यक्षगान ह्या लोक प्रकारांक लागीं दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद** : दशावतार, भवाई, यक्षगान.

**बंगाली भास** : बंगाली ही भारतीय प्रदेशीक भाशांतली एक समृध्द अशी भास. बंगाली भाशेची उत्पत्ती इ. स. १००० वर्साच्या लागसार जाली अशें मानतात. प्राकृत भाशेंतल्यान तयार जावन मागधी वा गौडी प्राकृत हातूंतल्यान बंगालीचो विकास जाला अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. बंगाली भाशेंत तिचेच अशे खास प्राकृतोद्भव शब्द आसात, तशेंच शुध्द आनी विकृत संस्कृत शब्दूय आसात. बरींचशीं आर्येतर भाशांचीं उतरां लेगीत सुरवेच्या काळांतूच बंगाली भाशेंत येवन भरसल्यांत. गरजेप्रमाण फार्सी, पुर्तुगेज आनी इंग्लीश उतरांय हे भाशेंत येवन रूढ जाल्यांत.

बंगाली ही इंडो-आर्यनाचे उदेंतेकडल्या फांट्याची भाशा आसून हो फांटो बंगाली, असमिया, मैथिली आनी ओडिया ह्या भाशांनी तयार जाला. ह्या चारूय भाशांचें मूळ एकूच संयुक्त भाशा आसून फुडें तिचें विभाजन जालें. सगळ्यांत पयलीं मैथिली (८ वो शेंकडो), उपरांत ओडिया (९-१० शेंकडो) आनी सगळ्यांत निमाणी असमिया अशें विभाजन जायत गेलें.

अस्तंत बंगाल, बंगालादेश आनी तांकां तेंकून आशिल्ल्या बिहार, आसाम ह्या वाठारांचीय भास बंगाली. भाशिकांचे संख्येच्या प्रमाणांत बंगाली ही भारतांतली तिसऱ्या क्रमांकाची तेलुगू भास. हिंदी आनी तेलुगू ह्या भाशां उपरांत बंगाली भाशेचो क्रमांक लागता.

बंगाली भाशेचे पांच भाशीक पोटभाग आसात. तातूंतले उत्तर बंगाली, ईशान्य बंगाली आनी उदेंत बंगाली हे तीन बांगला देशांत आसून अस्तंती आनी नैर्ऋत्यी बंगाली हे दोन भारतांत आसात. ह्या सगळ्या पोटभागांनी हेर थळावे भेद आसात.

बंगाली भाशेंत दोन मुखेल लिखाणाच्यो शैली आसात. पयली शैली सोळाव्या शेंकड्यांतल्या मध्यकालीन बंगालीचे साहित्यशैलीचेर आदारल्या. हे शैलीक 'साधुभाशा' अशें नांव आसा. दुसरी 'चलितभाशा'. ही शैली एकुणिसाव्या शेंकड्याची निर्मिती आसून ती कलकत्यांत येवन स्थायिक जाल्या सुशिक्षित लोकांचे बोलीभाशेचीच सुदारिल्ली आवृत्ती. दोनूय शैलींचें शब्दभांडार एकसारकेंच आसा. पूण साधुभाशेंतलीं रुपां जुनाट आनी बोजड स्वरुपाचीं आसात आनी चलितभाशेंतलीं रुपां नवीं आनी हलकीं फुलकीं आसात. साधुभाशेंत संस्कृतप्रचुर आनी संमिश्र स्वरुपाचीं विदग्ध उतरां चड आसात, जाल्यार चलितभाशेक दीसपट्टे बोलीभाशेंतलीं उतरां, वाक्प्रचार आनी म्हणी चड मानवतात.

बंगाली भास आनी साहित्य हाचे चार काळखंड मानल्यात. पयलो-प्राचीन बंगाली, दुसरो मध्यकालीन बंगाली, तिसरो-नवयुग आनी चवथो आयजमेरेनचो काळ.

सतराव्या शेंकड्यासावन बंगाली भाशेच्यो चार मुखेल प्रदेशीक पोटभासो दिसतात. त्यो अशो- १) अस्तंत बंगालांतली बोलीभास २) उत्तर बंगालांतली बोलीभास ३) ईशान्य बंगालांतली बोलीभास (एका काळार प्राचीन आसामी भास हे भाशेक सामकी लागीं आशिल्ली) ४) उदेंत आनी आग्नेय बंगालांतली बोलीभास.

**व्याकरण - ध्वनिविचर** : बंगालीची ध्वनिवेवस्था अशी आसा-

**स्वर** : आ, इ, ए, अॅ, उ, ओ, ऑ,

**व्यंजनां** : (स्फोटक) क,ख,ग,घ,ट,ठ,ड,ढ,त,थ,द,ध,प,फ,ब,भ,

(अर्दस्फोटक तालव्य) च, छ, ज, झ,

**अनुनासिक** : ङ, न, म, (अर्द स्वर) - य

**कंपक** : र, पार्श्विक - ल, घर्शक - श, महाप्राण - ह.

**लिखाण आनी उच्चार** : हेर भाशांभाशेन बंगालींत लेगीत लिखाण आनी उच्चार हांच्यातलें अंतर वाडलां. बंगालींतलें अ हें लिखाण उच्चार दाखयतना 'ऑ' जाता. देखीक - कमल ह्या उतराचे बंगालींत कॉमॉल, कोमल, कोमल्, कोमॉल् अशे उच्चार जातात.

ऐ आनी औ हांचे उच्चार ऑइ आनी ऑउ जातात. अॅ हाचेखातीर स्वतंत्र चिन्न ना. संदर्भाप्रमाण ए ह्या लिखाणाचोच उच्चार ए वा अॅ जाता. व्यंजनांतल्या अर्दस्फोटका पयलीं येवपी ञ चो उच्चार फकत न जाता. ण हो उच्चार फकत ट वर्ग स्फोटकापयलीं जाता. य चो उच्चार ज जाता. व

चे सुवातेर ब येता. पूण संयुक्त व्यंजनांत व हो ज्या वर्णा उपरांत येता त्या वर्णाचें द्वित्व जाता. व चो उच्चार जायना. देखीक : सत्व-शॉत्तो बंगालींत फकत 'श' हेंच घर्शक. पूण संयुक्त व्यंजनांत त, थ, न, र, ल, हांचे पयलीं ताचो 'स' जाता. देखीक : श्री- स्री, श्लोक - स्लोक आनी हेर कांय अशे उच्चार बंगालींत आसात ते अशे : क्ष-ख्य, ज्ञ - ग्य, ष्ण - ष्ट आनी हेर.

**नामः** व्याकरणाचे नदरेन बंगली भाशेंत नामांक लिंग ना. अर्थावयल्यान नामाचें लिंग एकेकदां थरयतात. पूण सगळया नामांक जावपी विभक्तिविचार सारकेच आसात. पूण कांय नामांचीं रुपां लिंगाप्रमाण बदलतात. बंगाली भाशेंत सगळयो मेळून सात विभक्ती मानल्यात. नामाचें मूळ रूप हीच प्रथमा. ह्या रुपाक प्रत्यय लायल्यार अनेकवचन जाता. देखीकः रा-एरा, गुला-गुलो-गुली. रा वा एरा हो प्रत्यय मानववाचक वा श्रेश्ठ वर्गदर्शक नामांक लागता. गुला सामान्य नामांक लागपी, गुलो उणेंपण दाखोवपी आनी गुली हो अपुरबायेचो प्रत्यय आसा.

एकवचनाच्या रुपाक दिग, दिगेर, देर हें अनेकवचन दाखोवपी चिन्न लावन उपरांत एकवचनाचोच प्रत्यय लावप. अनेक वचनांत एकेकदां ह्या चिन्नांबदला 'सकल' वा 'गुला' हींय चिन्नां लागतात.

संबोधन म्हणून प्रथमेचींच रुपां संबोधनदर्शक अव्ययांवांगडा वापरतात. नामाक टा, टी, खान, खाना, गाछ, गाछा, गाछी हे प्रत्यय लावन नामाचें निश्चीत रूप तयार जाता. व्हडपण, ओबडधोबडपण दाखयतना हीं रुपां आकारांत आसतात. जाल्यार नाजूकसाण, ल्हानपण, सोबीतकाय दाखयतना तीं इकारांत आसतात. देखीकः छडीगाछी- 'ती' बडी, मानुष - तो मनीस.

**विशेशण :** नामाचें वचन वा विभक्ती हांचो विशेशणाच्या रुपाचेर परिणाम जायना.

**सर्वनाम :** **प्रथम पुरूश**

| विभक्ती | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथमा | आमि | आमरा, आमरासन, आमरासकले. |
| द्वितीया | आमाके, आमारे, आमाय | आमादिगके, आमादिके, आमादेर, आमादेरके. |
| तृतीया | आमाद्वारा, आमारद्वारा, आमादिया, आमादिये, आमाकेदिया, आमाकेदिये. | आमादिगद्वारा, आमादिगकर्तृक, आमादिगेरद्वारा, आमादिगेरदिया, आमादेरद्वारा, आमादेरदिया. |
| चतुर्थी | (द्वितीयेभाशेन) | (द्वितीयेभाशेन) |
| पंचमी | आमाहइते, आमाहते, आमाथेके, आमारकाछथेके, आमारनिकटहइते | आमादिगहईते, आमादिगेरनिकटहइते, आमादेरथेके, आमादेरहते, आमादेरकाछथेके. |
| षश्ठी | आमार | आमादिगेर, आमादेर. |
| सप्तमी | आमाय, आमाते | आमादिगेते, आमादिगते, आमादेरते. |

**द्वितीय पुरूश**

| विभक्ती | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथमा | तुमि | तोमरासब, तोमरासकल. |
| षश्ठी | तोमार | तोमादिगेर, तोमादेर. |

(हेर विभक्ती रुपां प्रथम पुरूशाभाशेन फकत आमाबदला तोमा)

**द्वितीय पुरूश (कनिष्ठ)**

| विभक्ती | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथमा | तुइ | तोरा, तोरासब, तोरासकल. |
| षश्ठी | तोर | तो दिगेर, तोदेर |

(हेर विभक्तीरुपां प्रथम पुरूशाभाशेन. फकत आमा-बदला एकवचनी - तो, अनेकवचनी तो दिग - 'तोदेर')

**द्वितीय पुरूश (आदरवाचक)**

| विभक्ती | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथमा | आपनि | आपनारा. |
| षश्ठी | आपनार | आपनादिगेर, आपनादेर. |

(हेर विभक्तीरुपां प्रथमपुरूशाभाशेन. फकत आमा-बदला एकवचनी आपना - आनी अनेकवचनी अपनादिग-आपनादेर)

**तृतीय पुरूश (सामान्य)**

| विभक्ती | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथमा | से | ताहारा, तारा, |
| षश्ठी | ताहार, तार | ताहादिगेर, तादेर. |

(हेर विभक्तीरुपां प्रथम पुरूशाभाशेन फकत आमा-बदला एकवचनी, ताहा, ता-आनी अनेकवचनी ताहादिंग- 'तादेर')

**तृतीय पुरूश (आदरवाचक)**

| विभक्ती | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथमा | तिनि | ताहारा, तारा, |
| षश्ठी | ताहार, तार | ताहादिगेर, तादेर |

(हेर विभक्तीरुपां प्रथमा पुरूशाभाशेन. फकत एकवचनी आमा-बदला ताहा-ता-आनी अनेकवचनी ताहदिग-, तादेर-)

**दर्शक सर्वनाम (लागींचे - सामान्य)**

| विभक्ती | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथमा | ए, एइ | इहारा, एरा. |
| षश्ठी | इहार, एर | इहादिगेर, एदेर. |

(हेर विभक्तीखातीर प्रत्यया आदीं रुपां एकवचनी इहा-, ए- आनी अनेकवचनी इहादिग -, एदेर -).

**दर्शक सर्वनाम (लागींचें - आदरवाचक)**

| विभक्ती | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथमा | इनि | ईहारा, एंरा, एनारा. |
| षश्ठी | इहारा, एर | ईहादिगेर, एंदेर, एनादेर. |

(हेर विभक्तीखातीर प्रत्यया आदीं रुपां एकवचनी ईहा -, एं-आनी अनेकवचनी ईहादिग-, एंदेर-, एनादेर-).

**दर्शक सर्वनाम (पयसुल्लें - सामान्य)**

| विभक्ती | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथमा | ओ, ओई, ऐ | उहारा, ओरा. |
| षश्ठी | उहार, ओर | उहादिगेर, ओदेर |

(हेर विभक्ती खातीर प्रत्ययाआदीं रुपां एकवचनी उहा-, ओ-आनी अनेकवचनी उहादिग-, ओदेर -).

**दर्शक सर्वनाम (पयसुल्लें-आदरवाचक)**

| विभक्ती | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| प्रथमा | उनि | ऊहारा, ओरा, ओनारा. |
| षश्ठी | उहार, ओर | ऊहादिगेर, ओदेर, ओनादेर. |

(हेर विभक्तीखातीर प्रत्यया आदीं रुपां एकवचनी ऊहा-, ओ-नी अनेकवचनी ऊहादिग-, ओदेर-, ओनादेर-).

**संबंददर्शक सर्वनाम** : जो, जी, जे हे से ह्या सर्वनामाभाशेन चलतात. फकत स वा त च्या बदला सगळ्याक ज येता.

**प्रस्नवाचक सर्वनाम** : के आसून तें से भाशेन चलता. हाचें आदरवाचक रूप किनि हें केन्नाकेन्नाय वापरतात. 'कोन' हें प्रस्नवाचक विशेशण.

**क्रियापद** : धातूक कालवाचक चिन्न लावन उपरांत पुरूशवाचक प्रत्यय लायतकच क्रियापद जाता. क्रियापदांत वचनभेद ना. एकवचन आनी भोव वचन हांचें रूप एकूच आसता.

वर्तमान, भूतकाळ, रीतिभूतकाळ आनी भविश्यकाळ हे बंगालींत चार शुध्द काळ आसात. तशेंच चालू वर्तमान, चालू भूत, चालू संकेत, चालू भविश्य हे आनी पुराय वर्तमान, पुराय भूत, पुराय संकेत आनी पुराय भविश्य हे सगळे मेळून आठ काळ मिश्र आसात. दरेका काळांत क्रियापदाचीं स रुपां जातात. प्रथमपुरूशाचें एक, द्वितीयपुरुशांत सामान्य, कनिश्ठ आनी आदरवाचक अशीं तीन, तृतीयपुरुशांत सामान्य आनी आदरवाचक अशीं दोन, पूण द्वितीय आनी तृतीयपुरूश आदरवाचक रुपां सारकींच आशिल्ल्यान, दृश्य रुपां पांचूच आसात.

कर्तो + अप्रत्यक्ष कर्म + प्रत्यक्ष कर्म + क्रियापद असो वाक्यांतल्या उतरांचो क्रम आसता. देखीक-ताणें म्हाका दोन रुपया दिले. से आमोक दुटो टाका दिले. नामापयलीं विशेशण आनी क्रियापदा पयलीं अव्यय येता. नकारवाचक उतर वाक्याचे अखेरेक येता. देखीक - हांव घरा वचचों ना. आमि वाडी जाबो ना.

**बंगाली लिपी** : ही लिपी बंगाली भास बरोवपाखातीर वापरतात. सद्याचो बिहार, अस्तंत बंगाल, बांगलादेश, आसाम, नेपाळ, ओरिसा ह्या प्रदेशांनी धाव्या शेंकड्या उपरांत मेळिल्ल्या शिलालेखांनी आनी ब़ाराव्या शेंकड्या उपरांतच्या हातबरपांनी मेळटा.

हेर सगळ्या भारतीय लिपींभाशेन बंगाली लिपी लेगीत अशोक काळांतल्या शिलालेखांवयल्या ब्राह्मी मुळाक्षरांपासून तयार जाल्या. पुरायपणान विकसीत जाल्लीं बंगाली मुळाक्षरां बाराव्या शेंकड्यांत मेळटात. उपरांतच्या शेंकड्यांनी, बंगाली मुळाक्षरांनी थोडे बदल जाले. अठराव्या शेंकड्याचे निमाणें लिखाणाच्यो सादारणपणान दोन पद्दती आशिल्ल्यो. एक अलंकृत आनी दुसरी सादी. इतिहास आनी दस्तऐवज तयार करपी धंदेवायीक कारकून आनी मोलादीक ग्रंथांच्या हातबरपांच्यो प्रती तयार करपी विद्वान अलंकृत पद्दतीन बरयताले. सादी लिखाण पद्दत बंगालींतल्या सतराव्या शेंकड्यांतल्या आनी ते उपरांतच्या हातबरपांनी खूब प्रमाणांत दिश्टी पडटा.



बंगाली वर्णमाळ

ही लिपी नागरी लिपीपासून उत्पन्न जाली. धाव्या शेंकड्यांतलो बंगालचो राजा नारायणपाल हाच्या लेखांतली चडशी सगळी लिपी नागरी आसा. फकत 'ए' आनी 'ख' हीं दोन अक्षरां बंगाली लिपीभाशेन आसात. इकराव्या शेंकड्यांतलो पालवंशी राजा विजयपाल हाच्या देवपाडा लेखांत ए, ख, ञ, त, थ, म, र, ल आनी स हीं अक्षरां नागरी लिपीपरस वेगळ्या मोडणाचीं आसात. बाराव्या शेंकड्यांतल्या वैद्यदेवाच्या लेखांत ऋ, ए, ऐ,

ख, ग, ञ, त, थ, न, म, य, र आनी व हीं बंगाली अक्षरां आसात. ते लिपीक प्राक् बंगाली म्हण्टात. बंगाली लिपींतल्या ए, ऋ, र ह्या अक्षरांचें दक्षिणात्य लिपीकडेन सारकेंपण आसा. तशेंच ख, ग, श, हीं अक्षरां दक्षिणात्य तमीळ लिपींत दिसतात. अठराव्या शेंकड्यांत अस्तंती संस्कृतीच्या संपर्काक लागून आनी मुद्रण कलेक लागून अक्षरांच्या मोडणांत फरक पडलो. बंगाली लिपीपासुनूच मैथिली लिपीची उत्पत्ती जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**बंगाली साहित्य :** लौकिक वा अपभ्रंश अवहट्ट हे बोलीभाशेंतल्यान बंगाली भाशेचो उगम जाल्लो आशिल्ल्यान हे भाशेच्या विकासाचे दोन पांवडे दिसतात. तांकां प्राचीन बंगाली आनी मध्यकालीन बंगाली अशें म्हणूं येता. सादारणपणान प्राचीन बंगालीचो काळ इ. स. ९५० ते इ.स. १३५० ह्या काळांतलो. हाचे उपरांत इ. स. १३५० सावन इ. स. १८०० मेरेन मध्ययुगीन बंगालीचो काळ मानतात. १८०० सावन १९४१ वा १९४७ मेरेन बंगालीचें 'नवयुग' आनी उपरांतचो आयजमेरेनचो काळ हो आर्विल्लो काळ असो वळखूं येता.

मध्यकालीन बंगालीचे दोन मुखेल वांटे दिसतात. एक आदि-मध्यकालीन बंगाली आनी दुसरो अंत्य-मध्यकालीन बंगाली. आदि-मध्यकालीन बंगालीचो काळ इ. स. १३५० ते १५०० आनी अंत्य-मध्यकालीन बंगालीचो काळ इ.स. १५०० ते १८०० असो आसा. मध्यकालीन बंगालीच्या पुराय काळांत 'ब्रजबुली' ही खाशेली काव्यमय आनी सूत्रमय भाशा, चड करून वैष्णव भावकवींच्या काव्यांत दिश्टी पडटा. वृंदावन-वासियांची ही भास बंगाली लेखकांनीच चड प्रमाणांत वापरली. आसामांतल्या वैष्णव कवींनी आनी ओरिसांतल्या कांय भक्तगणांनीय ब्रजबुली भाशेंत बरयलें. परंपरीक अवहट्ट काव्य हें हे भाशेचो मुलाधार. हे भाशेचो वापर सगळयांत पयलीं करपी उमापति आनी विद्यापति ह्या पोरण्या मैथिली कवींनी हे भाशेची बसका घट केली. प्रदेशीक बोलीभाशेचोय तिचेर प्रभाव पडलो.

मध्यकालीन बंगाली भास ही अस्तंत बंगालचे देशी बोलीभाशेचेर आदारिल्लीच साहित्यीक उपभास आसुंये अशें दिसता. पूण देशाच्या विंगड विंगड प्रदेशांतल्या पोरण्या लेखकांनी आपापल्या प्रदेशांतलीं उतरां आनी वाक्प्रचारूय तातूंत खूब वापरल्यात. देखीक, चैतन्याचे कांय मुखेल अनुयायी सिल्हेट आनी चित्तगाँग ह्या वाठारांतल्यान आयिल्ले, देखून तांच्या लिखाणांतले भाशेंत त्या प्रदेशांतले बोलीभाशेतलीं उतरां भरसल्यांत. तशेंच, संस्कृत उतरांची भर पडतूच आशिल्ली.

**प्राचीन युग :** प्राचीन काळाच्या उपलब्ध बंगाली साहित्यांत बौध्द सिध्दांच्या 'चर्यागीति' ह्या पदांक चड म्हत्व आसा. चर्यागीति हीं पदां आठ वा चड ओळींचीं आनी रहस्यमय अशीं आसतात. १९१६ वर्सा महामहोपाध्याय हरप्रसाद शास्त्री हाणें नेपाळ दरबारच्या पोथीखान्यांत मेळिल्ल्या कांय हातबरपांवयल्यान ह्या पदांचो सोद लायलो. ह्या चर्यागीतिचे कवी महायान बौध्दांच्या तांत्रिक आनी योगीक संप्रदायांतले सिध्दाचार्य आशिल्ले. ह्या गितांची भास संकेतीक आसा. तिका 'संध्या भाशा' म्हण्टात. ह्या गितांचो वाच्यार्थ आनी व्यंग्यार्थ वेगवेगळो आसता. ह्या गितांचे कवी इकराव्या ते तेराव्या शेंकड्यांतले आसात. तांच्यांतलो सगळयांत पोरणो कवी म्हळयार लोई हो इकराव्या शेंकड्यांतलो आसुंये. कान्ह, भुसुकू, शांती, ढेंढण, सराह, दारिक, महिंडा ह्या त्या काळांतल्या कवींच्यो रचना उपलब्ध आसात.

जयदेव हो कवी बाराव्या शेंकड्याचे निमाणें जावन गेलो. ताणें 'गीतगोविंद' हें सयमक संस्कृत काव्य बरयलां. संस्कृतांत यमकां मेळनात. ताचेवयल्यान गीतेगोविंद हें काव्य मुळांत प्राचीन बंगालींत आसून उपरांत ताका संस्कृत रूप दिलें आसुंये अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. तशें आसल्यार जयदेव हो बंगालीचो प्राचीन कवी थरता. नाथ, मनसा, चंडी आनी धर्म हे संप्रदाय बंगालांतले लोकसंप्रदाय. ह्या संप्रदायाच्या कवींनी आपापल्या उपास्य दैवतांचेर कथा-काव्यात्मक रचणुको केल्यात धर्मसंप्रदायान शून्यपुराण नांवाचें एक संप्रदायीक पुराणूय निर्माण केलां. मयनामतीर गान, गोरक्षविजय, भरथरी गोपीचंद हीं प्राचीन बंगालीतलीं कांय ग्रामगितां. ह्या गितांवांगडाच ह्या काळांत कांय व्रतकथा आनी रुपकथा निर्माण जाल्यो.

**मध्य युग :** तेराव्या शेंकड्याचे सुरवेक बंगालाचेर तुर्कांचें आक्रमण जालें. तांणी बायलांक उबारून व्हरप, लूटमार, कत्तली, ग्रंथालयांचो विध्वंस असलीं दुश्कृत्यां व्हड प्रमाणाचेर केलीं. हिंदूंक बाटोवन मुसलमान केले. अशा ह्या काळांत वाङमयनिर्मिती शक्य नाशिल्ली. अशे हे अनर्थ आनी विनाशाचे अवस्थेंत बंगालाचीं १५० वर्सां गेलीं. ताचे उपरांत थोडें स्थिरावतकच थंय संस्कृत भाशेचें अध्ययन सुरू जालें. त्याच काळांत कृतिवास ओझा (१३९९-१४८०) हो म्हाकवी निर्माण जालो. ताणें 'श्रीराम पाँचाली' वा 'रामायण पाँचाली' हें संस्कृत रामायण बंगालींत अणकारलें. ते उपरांतच्या काळांत, पंचगौड देशाचो राजा सुलतान हुसैनशाह हाचे उर्बेन मालाधर बसू हाणें भागवताच्या दशम आनी एकादश ह्या स्कंधांचो बंगालींत अणकार केलो. ताणें 'श्रीकृष्णविजय' हो ग्रंथूय बरयलो. हो ग्रंथ म्हळयार मंगलकाव्य वा पाँचालिका (पाँचालिका म्हळयार कळसुत्री बावल्यांचो वा कठपुतळींचो खेळ). हातूंत कवीन सरळ, सादे शैलीन कृष्णलीला सांगल्या. विष्णुपुराण, हरिवंश आनी श्रीमद्‌भागवत हांच्या आदारान ताणें ही कथा बरयल्या. तशेंच, सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांनी बऱ्याचशा कृष्णमंगल काव्यांची निर्मिती जाली. चित्तगाँगचो सुभेदार परागल खान आनी ताचो पूत शाहजादा नस्त्रतखान हांचे उर्बेन 'कवींद्र' उपाधिविभूषित राजकवी परमेश्वर दास हाणें 'पांडव विजय' हें पयलें बंगाली काव्य बरयलें. पूण ह्या काव्यांतलें अश्वमेधाचें आख्यान तुटकें दिशिल्ल्यान नस्त्रतखानान जैमिनीय संहितेंतल्या त्या प्रसंगाचेर एक नवी पाँचालिका दरबारी कवी श्रीकर नंदी हाचेकडल्यान बरोवन घेतली.

बडू चंडीदास हाचो 'श्रीकृष्णकीर्तन' आनी भवानंद कवीचो 'हरिवंश' हे दोन ग्रंथ कृष्ण-क्रिडेचेर आसात. चंडीदास-बडू हो बासली वा बाशुली देवतेच्या मंदिरांतलो पुजारी आशिल्लो. बाराव्या शेंकड्याचे सुरवेक जयदेवान बरयल्ल्या 'गीतगोविंद' ह्या संस्कृत काव्याचो प्रभाव 'श्रीकृष्णकीर्तन' ह्या काव्याचेर जाणवता. बंगाली गीतकवींभितर चंडीदासाक मानाची सुवात आसा. ह्या काळांत चंडीदास सोडून ज्ञानदास, गोविंददास, बलरामदास, नरोत्तमदास अशे बरेच कवी बंगालांत निर्माण जाले. तांचे रचनेक पदावलीसाहित्य अशें म्हण्टात. ह्या काळांतली ही मोलादीक साहित्य-निर्मिती. मनोहरदास हाणें संकलीत केल्लो 'पदसमुद्र', राधामोहन ठाकुर हाचो 'पदामृतसमुद्र', वैष्णवदासाचो 'पदकल्पतरू' हे बंगाली साहित्यांतले नामनेचे पदावली संग्रह आसात. ह्या वाङमया वांगडा मंगलकाव्यां ह्या काळांत निर्माण जालीं. धर्ममंगल, चंडीमंगल, मनसामंगल अशीं तांचीं नांवां आसात. माणिक गांगुली आनी खेलाराम हांचीं 'धर्ममंगलां' आनी 'माधवाचार्य' तशेंच मुकुंदराम चक्रवर्ती हांचीं 'चंडीमंगलां' चड प्रसिद्द आसात.

पंदराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत चैतन्य महाप्रभूचो अविर्भाव जालो आनी बंगालचें साहित्य, संस्कृती धरून पुराय बंगाली लोकांचे जिणेकूच उर्बा मेळ्ळी. चैतन्याचें अवतारकार्य बंगालच्या इतिहासाक नवें मोडण दिवन गेलें. ताणें कृष्णभक्तेखाला बंगालांतले जनतेक एकठांय हाडली. त्या काळांतले कवी आनी विचारवंत हांचेर चैतन्याच्या चारित्र्याचो आनी ताचे कीर्तन भक्तीचो बरोच प्रभाव पडलो. चैतन्यप्रभूक साक्षात कृष्ण मानून ताच्या भक्तांनी ताचीं चरित्रां बरयलीं. वृंदावनदासान 'चैतन्यभागवत', लोचनदास आनी जयानंद हांणी 'चैतन्यमंगल' आनी कृष्णदासान 'चैतन्यचरितामृत' बरयलें. गोविंददासान चैतन्यप्रभूचेर कडछे बरयले. बंगालींतल्यो चडशो चैतन्य-चरित्रगाथा ह्यो सोळाव्या शेंकड्याचे मदीं आनी अखेरेक रचल्यात. भक्तिरत्नाकर, अद्वैतप्रकाश, प्रेमविलास हीं चैतन्यभक्तांच्यो जीवनलीला गावपी काव्यां प्रसिद्द आसात. गीतिकवींतले चडशे कवी चैतन्याचे भक्त आशिल्ले.

सोळाव्या, सतराव्या आनी अठराव्या शेंकड्यांत कांय वैष्णव कवींनी ब्रजबुलींतूय पदां रचलीं. तांच्यांतले गोविंददास कविराज आनी गोविंददास चक्रवती हे श्रेश्ठ कवी मानतात. उपरांत वृंदावनांत सनातन गोस्वामी आनी रूप गोस्वामी हांणी चैतन्याच्या आदेशाप्रमाण वैष्णव साधना आनी शास्त्राचेर भासाभास करपाखातीर एका केंद्राची स्थापणूक केली. सोळाव्या शेंकड्याच्या मध्यासावन श्रीमद्भागवत, महाभारत, रामायण तशेंच हेर वैष्णवं पुराण ग्रंथांचें वाचन-पठण तेच भाशेन बंगाली भाशेंत अणकारप जालें. त्या काळांतल्या ह्या उपक्रमाक 'अणकारसाहित्य' म्हणून वळखतात.

बंगालांतलें सगळें वैष्णव भावकाव्य बंगाली भाशेंत बरयल्लें ना. त्या काव्याचो मूळ गाभो ब्रजबुली भाशेंत रचिल्लो आसा. बंगाली आनी ब्रजबुली भाशांतलीं सगळीं वैष्णव भावकाव्यां हीं गीत ह्या प्रकारांत येतात. ह्या गिताच्या धृपदांतल्यो ओळी मातशो ल्हान आसतात. निमाणच्या कडव्यांत कवीचें नांव येता. हीं गितां जे खाशेले पद्दतीन म्हण्टात, ते पद्दतीक 'कीर्तन' अशें नांव आसा. नरोत्तमदास हाणें ही पद्दत चड विकसीत केली. राधा-कृष्ण आनी चैतन्य-नित्यानंद हांच्या मुर्तींची प्रतिश्ठापना करपाच्या निमतान एक व्हड उत्सव करून थंय नव्या कीर्तनाचें प्रात्यक्षिक करून दाखयलें. वैष्णवांच्या इतिहासांत हो प्रसंग 'खेतरी उत्सव' ह्या नांवान प्रसिध्द आसा.

सतराव्या-अठराव्या शेंकड्यांतल्या कवींनी बऱ्याच प्रमाणांत मनसामंगल काव्यांची रचना केली. ह्या कवींभितर, स्वताक 'क्षेमानंद' म्हणून घेवपी केतकदास ह्या कवीची 'मनसामंगल' काव्याची रचना, साहित्याचे नदरेन म्हत्वाची आसा. ह्याच काळांतलो काशीराम दास हाणें महाभारताच्या आदाराचेर बरयल्लो 'पांडवविजय' हो श्रेश्ठ काव्यग्रंथ.

सतराव्या शेंकड्यापयलीं, खंयच्याच बंगाली मुसलमानान साहित्यनिर्मिती केल्याचें उदाहरण मेळना. पूण बंगाली हिंदू आनी मुसलमान हांचेमदीं भाशा वेव्हाराविशीं कसलोच भेदाभेद नाशिल्लो. दोनूय समाज बंगाली भाशाच वापरताले. दौलत काजी हो बंगालचो पयलो मुसलमान कवी. सतराव्या शेंकड्याचे सुरवेक, राज्य करपी श्रीसुधर्म राजाचो सरदार आश्रफ खान हाचो तो आश्रित आशिल्लो. ताचेच सुचवणेवयल्यान दौलत काजीन राजस्थानी भाशेंतली लोर-चंद्राणी ही गाथा आपल्या काव्याखातीर वेंचली. 'सती मायना' नांवानूय हें काव्य वळखतात. पूण हें काव्य पुराय करचे पयलींच दौलताक मरण आयिल्ल्यान, सय्यद आलाओल हाणें तें पुराय केलें. आलाओल हाणें आनिकूय फार्सी आनी हिंदू रचनांचेर आदारीत अशीं बंगाली काव्यां बरयल्यांत. तातूंतलीं मलिक मुहंमद जायसी हाणें बरयल्ल्या 'पद्मावत' हे अवधी भाशेंतल्या काव्याचो ताणें 'पद्मावती' ह्या नांवान अणकार केला. ताणें केल्ल्या सैफुल-मुलुक-वादिउज्जमाल ह्या फार्सी काव्याच्या अणकाराकूय खूब नामना मेळ्ळी. दारा शिंकदरनामा, इस्कंदरनामा, हफ्त पैकर हीं ताचीं हेर बंगाली काव्यां. फार्सी भाशेंतल्यान बंगाली भाशेंत अणकार करपी आलाओल हो पयलोच बंगाली कवी. ताका संस्कृत, बंगाली, अवधी आनी फार्सी भाशांचें गिन्यान आशिल्लें.

चित्तगाँगच्या सय्यद सुलतानान इ. स. १६५४ वर्सा 'रसुलविजय' हें काव्य बरयलें. हाका 'नबीवंश' अशेंय नांव आसा. तातूंत मुसलमान साक्षात्कारी मनशांवांगडा कांय हिंदू देवांचो आनी अवतारांचो आस्पाव केला. ताणें योगाचेरूय एक निबंद बरयला. तशेंच, कांय वैष्णव गितांय रचल्यांत. बंगाली मुसलमानांचें 'महाभारत' म्हळ्यार तांचीं 'जंगनामा' (झुजाकथा) काव्यां आसात. बंगाली भाशेंतलो सगळ्यांत पोरणो 'जंगनामा' म्हळ्यार चित्तगाँगच्या महंमद खानान बरयल्लें 'मक्तुल-होसेन' (हुसेनाचें मरण) हें काव्य, चित्तगाँगांतलेच 'जंगनामा' बरोवपी नसरूल्ला खान आनी मन्सुर हे आनीक दोन नामनेचे कवी.

थळाव्या मुसलमान पिरांच्यो परंपरागत कथा एकठांय हाडून अस्तंत आनी उत्तर बंगालांत धर्मीक काव्यांचो एक वेगळोच प्रकार निर्माण जालो आनी तातूंतल्यान एक नवेंच दैवत निर्माण जालें. ह्या दैवताक हिंदू लोक 'सत्यनारायण' म्हळयार सत्यरुपी नारायण ह्या अर्थान आनी मुसलमान लोक 'सत्य पीर' म्हळयार हक होच पीर ह्या अर्थान 'सत्य पीर' म्हणूंक लागले. बंगालांतल्या मुसलमान पिरांच्या सगळयांत पोरणे परंपरेचो उल्लेख 'सेफशुभोदया' ह्या ग्रंथांत मेळटा. हो ग्रंथ संस्कृत आनी बंगाली अशे मिश्र भाशेंत बरयल्लो आसा. साहित्यिक निर्मिती हे नदरेन ह्या पीर साहित्याक व्हडलेंशें म्हत्व ना. तातूंत फकत दोन मुखेल धर्मांक एकठांय हाडपाचे जे यत्न चालू आशिल्ले त्या यत्नांची गवाय मेळटा. नव्यानूच निर्माण जाल्ल्या सत्यपीर वा सत्यनारायण ह्या दैवताक अठराव्या शेंकड्यांत खूब नामना मेळ्ळी आनी ह्या शेंकड्यांतले घनिराम कविरत्न, रामेश्वर भट्टाचार्य आनी भारतचंद्र राय ह्या नामनेच्या कवींनी, ल्हान ल्हान 'सत्यनारायण पांचाली' काव्यां बरयलीं.

अठराव्या शेंकड्याचो नामनेचो कवी म्हळयार, 'गुणाकार' ही पदवी मेळिल्लो भारतचंद्र राय. ताणें इ. स. १७५२ वर्सा नडियाचो राजा कृष्णचंद्र हाच्या आलाशिऱ्याखाल 'अन्नदामंगल' वा 'अन्नपूर्णामंगल' हें तीन खंडांचें काव्य बरयलें. ह्या काव्याच्या पयल्या खंडांत राजा कृष्णचंद्रान प्रतिश्ठापना केल्ले अन्नपूर्णादेवीचें माहात्म्य सांगपी मंगलकाव्य आसा. दुसऱ्या खंडांत राजघराण्याचो मूळपुरूस भवानंद मुजुमदार हाचे वैभवप्राप्तीचें आख्यान आसा आनी तिसऱ्या खंडांत विद्या-सुंदर आख्यान आसा. भारतचंद्राची ही तिसऱ्या खंडांतली कथा सगळयांत उत्कृश्ट मानतात. हेच कथेचेर भारतचंद्रापयलीं, शाह बिरीद खान, गोविंददास, श्रीधर, कृष्णराय दास, बलराम चक्रवर्ती ह्याय कवींनी काव्यां बरयल्लीं. तशेंच भारतचंद्राचे रचनेन उत्साहीत जावन राधाकांत मिश्र, रामप्रसाद सेन 'कविरंजन', निधिराम चक्रवर्ती 'कविचंद्र' आनी मधुसूदन चक्रवर्ती 'कवींद्र' हांणीय उपरांत ह्याच विशयाचेर काव्यां बरयलीं. पूण भारतचंद्राचें काव्य ह्या सगळया काव्यांपरस श्रेश्ठ मानतात. रामप्रसाद सेन हाच्या 'कालीकीर्तन', 'कृष्णकीर्तन' ह्या संगीत रचणुकांकूय खूब नामना मेळ्ळया.

'धर्ममंगल' काव्याचो कर्तो यनराम चक्रवर्ती, 'शिवसंकीर्तन' वा 'शिवाघन' ह्या काव्याचो रामेश्वर भट्टाचार्य, 'महाराष्ट्र पुराणा' चो गंगाराम तशेंच 'पथेर पांचाली' चो राधामोहन हेय ह्या काळांतले नामनेचे कवी.

अठराव्या शेंकड्याचे सुरवेक लालचंद्र आनी नंदलाल हांणी वैष्णव भावगितां नवे पद्दतीन बरोवपाक सुरवात केली. हे दोगूयजाण सामके पोरणे 'कविवाले' आसून, चडशीं गितां ह्या दोगांयनी मेळून बरयल्यांत. पूण रामनिधी गुप्त हो सगळयांत उत्कृश्ट प्रेमगीतकार मानतात. अठराव्या शेंकड्याचे अखेरेक 'आखडाई' (म्हळयार मंडळांतल्या बैठकींतलो) नांवाची 'कवि' गितांची कार्यावळ कलकत्त्यांत खूब प्रचलीत आशिल्ली. तातूंत कांय प्रमाणांत शास्त्रोक्त संगीत वापरपाची सुरवात करपांत निधु बाबूंचो खूब म्हत्वाचो वांटो आसा. ताणेंच 'टप्पा' ही हिंदुस्थानी गितांची पद्दत बंगालींत हाडली. श्रीधर नांवाचो एक 'पुराण' कथा सांगपी वेवसायीक कथेकरी निधु बाबूच्या काळांत आशिल्लो. ताच्या ह्या वेवसायावयल्यान ताका 'कथक' अशें आडनांव मेळिल्लें. राम बसु हो आनीक एक त्याच काळांतलो कवी. हाका 'कवि' गितांचो लेखक म्हणून खूब नामना मेळ्ळी.

कविवाला-शाहिरांची कवित्वसर्त हो एकुणिसाव्या शेंकड्यांतलो बंगाली लोकरंजनाचो एक म्हत्वाचो प्रकार आशिल्लो. हेविशीं अँटनी फिरंगी, हरू ठाकूर, भोला भोवरा, कृष्णकमल गोस्वामी, मधुकान हे कांय गायक-कवी उल्लेख करपासारके आसात.

तशेंच साधक रामप्रसाद हाचीं भक्तीगितां, गोपीचंद मयनामतीचीं पदां, मैमनसिंग गितिका, सहजिया पंथाचीं पदां, डाक आनी खना हांचीं वचनां, फकिरांचीं भावगितां ही ह्या युगाच्या निमाण्या काळांतली उल्लेख करपासारकी साहित्य-सामुग्री.

**नवयुग :** बंगालांत अठराव्या शेंकड्याच्या सातव्या दशकांत, ब्रिटीश काळांत, छापखाने निर्माण जातकच त्या काळांतल्या साहित्य प्रवाहांक एक वेगळेंच मोडण मेळ्ळें. इस्ट इंडिया कंपनीचो एक अधिकारी चार्ल्स विलकिन्स (उपरांत सर चार्ल्स) हाणें पयलीं बंगाली टंक तयार करून बंगाली लिपींत पयलें मुद्रीत पुस्तक उजवाडायलें. तो स्वता संस्कृत पंडीत आशिल्लो आनी ताणें भगवद्गीतेचो अणकार केलो. १७८४ वर्सा ताणें सर विल्यम जोन्स हाका एशियाटिक सोसायटी ऑफ बंगाल ही संस्था स्थापन करपाक आदार दिलो आनी नाथानियेल ब्रॅनी हलहेड हाणें इंग्लिशींत बरयल्ल्या बंगाली व्याकरणांत पयलें बंगाली टंक वापरलें. १७७८ वर्सा हें व्याकरण हुगळीक छापलें. हलहेड होय पंडीत आसून ताका बंगाली भाशेचें आनी साहित्याचें खोलायेन गिन्यान आशिल्लें.

बंगाली टंकांच्या आदारान मुद्रीत केल्लीं सुरवेचीं सगळीं पुस्तकां, इस्ट इंडिया कंपनीन बंगाल, बिहार आनी ओरिसा ह्या विभागांत राज्ययंत्रणेखातीर घालून दिल्ल्या कायदेकानूनांचे गद्य अणकार आशिल्ले. पुर्तुगेज मिशनऱ्यांनी तांच्या धर्मांतरीत बंगाली लोकांखातीर उपदेशाचेर निबंद बरयले. तातूंतलो लिस्बनाक १७४२ वर्सा रोमी लिपींत मुद्रीत जाल्लो 'कृपाशास्त्रेर अर्थभेद' हो बंगाली ग्रंथ म्हत्वाचो.

इस्ट इंडिया कंपनीन नेमणूक केल्ल्या ब्रिटीश लेखकांक भारतीय भाशा शिकोवपाच्या हेतान इ.स. १८०० वर्सा मे म्हयन्यांत, कलकत्त्यांत फोर्ट विल्यम कॉलेजाची स्थापणूक जाली. कॅरी हो बंगाली विभागाचो मुखेल आशिल्लो (उपरांत तो संस्कृत विभागाचोय मुखेल जालो). ताणें स्वता बंगाली व्याकरणाची रचना केली आनी एक बंगाली शब्दकोश तशेंच दोन बंगाली पाठ्यपुस्तकां संकलीत केलीं. कॅरी आनी ताचे हेर सहकारी हांचो, बायबलाचो भारतीय भाशांनी अणकार करपाचोय वावर चालू आशिल्लो.

वेव्हारांत, बोलीभाशेचो प्रसार जावपाखातीर बरें वाचनीय गद्य निर्माण जावपाची गरज पडपाक लागली, तेन्ना बंगालीचो प्राध्यापक ह्या नात्यान कॅरी हाणें बंगाली शिक्षकांच्या आदारान बंगालींत गद्यग्रंथ बरोवन घेतले आनी श्रीरामपूराक छापून तांचो प्रसार केलो. ह्या शिक्षकांभितर रामराम बसू आनी मृत्युंजय विद्यालंकार हांचीं नांवां म्हत्वाचीं. रामराम बसू हो फार्सी भाशेचो तज्ञ आसून कॅरीचो बंगाली भाशाशिक्षक आशिल्लो. 'महाराजा प्रतापादित्य चरित्र' (१८०१) आनी 'लिपिमाला' (१८०२) हे ताचे दोन नामनेचे ग्रंथ. मृत्युंजयाचीं चडशीं पुस्तकां संस्कृत ग्रंथांचे बंगाली अणकार. 'बनिश सिंहासन' (१८०२) आनी 'हितोपदेश' (१८०८) हीं अनुक्रमान 'द्वात्रिंशत पट्टालिका' आनी 'हितोपदेश' ह्या मूळ संस्कृत कथाझेल्यांचे अणकार. इ. स. १८०८ वर्सा उजवाडाक आयिल्लो ताचो 'राजावली' हो मोंगल बखरकारांचे रचनेचेर आदारिल्लो एक संस्कृत ग्रंथ आशिल्लो. 'राजावली' हो बंगालींतलो पयलो इतिहास ग्रंथ. मृत्युंजयाचो सगळ्यांत उत्कृश्ट ग्रंथ 'प्रबोधनचंद्रिका' हो ताच्या मरणा उपरांत इ. स. १८३३ वर्सा उजवाडा आयलो. 'वेदांतचंद्रिका' (१८१७) हो ताचो ग्रंथ राजा राममोहन रॉय हाच्या वेदांतविचाराक आनी एकेश्वरवादाक विरोध करपाच्या हेतान बरयल्लो. फोर्ट विल्यम कॉलेजीच्या हेर प्राध्यापकांभितर राजीव लोचन मुखर्जी होय एक म्हत्वाचो लेखक. १८०५ वर्सा श्रीरामपूराक ताचो 'महाराज कृष्णचंद्र रायस्य चरित्रम्' हो ग्रंथ उजवाडा आयिल्लो. हो ग्रंथ क्रमीक पुस्तक म्हण्णून 'प्रबोधचंद्रिके' परसूय चड काळ चलल्लो.

क्रमीक पुस्तकां सोडून बंगाली गद्य बरोवपी राजा राममोहन रॉय हो पयलो लेखक. श्रीरामपूरच्या मिशनऱ्यांनी चलयल्ले, हिंदूधर्माआडचे मोहिमेक तोंड दिवपाखातीर रॉय हाणें बंगाली, इंग्लीश आनी फार्सी भाशांतल्यान नेमाळीं आनी पत्रकां सुरू केलीं. ताचे लेखणेक काव्यांतूय गती आशिल्ली. ताणें 'भगवद्गीतेचो' पद्यांत अणकार केलो आनी कांय भक्तीगितांय बरयलीं. तत्त्वज्ञानासारकोय विशय हे गद्यभाशेंत मांडपाक येता हें ताणें दाखोवन दिलें. वेदान्तसुत्रां आनी उपनिषदां हांचो अणकार करपी म्हणुनूय ताका नामना मेळ्ळी. वेदांतावयल्या निबंदांचे दोन अणकार (१८१५) आनी उपनिषदांचे अणकार तशेंच समाजीक आनी धर्मीक पुनर्घटनेविशींच्यो विचारीक भुमिका उकतावन ताणें साहित्यनिर्मितींत मोलादीक भर घाली.

श्रीरामपूरच्या मिशनऱ्यांनी १८१८ वर्साच्या मे म्हयन्यांत 'समाचारदर्पण' हें सप्तकी पत्रक सुरू केलें आनी बंगाली भाशा-साहित्याचे उदरगतीक चड वाव मेळ्ळो. उपरांत कलकत्त्यांत आनिकूय नेमाळीं सुरू जालीं. राजा राममोहन रॉय हाणेंय स्वता एक पत्र चलयलें. भवानीचरण बंदोपाध्याय हाचे 'समाचार-चंद्रिका' (१८२१) हें पत्र सगळ्या खबरांपत्रांनी श्रेश्ठ आशिल्लें. ह्या खबरांपत्रांक लागून, बंगालीबगर हेर भाशा समजनाशिल्ल्या लोकांक, घरा बशिल्लेकडेन जगाची खबर कळपाक लागली. १८३१ वर्सा ईश्वरचंद्र गुप्त हाणें 'संवाद प्रभाकर' हें पत्र काडलें.

मजगतीं, श्रीरामपूरच्या मिशन प्रेसान छापिल्लीं पुस्तकां समजुपाक कठीण तशेंच मोलान म्हारग आशिल्लीं. तेखातीर सादीं-सोंपीं आनी सुटसुटीत पुस्तकांक लागून १८१७ वर्सा 'स्कूल बूक सोसायटी' ची स्थापणूक जाली.

विल्यम कॅरीचो पूत फॅलिक्स कॅरी हाणें बंगालींत ज्ञानकोशाची रचना सुरू केली. शरीरशास्त्र आनी इंद्रीय-विज्ञानशास्त्र ह्या विशयांवयल्या क्रमीक पुस्तकांचो पयलो खंड १८१९ वर्सा उजवाडा आयलो. पूण लेखकाच्या मरणाक लागून ही येवजण पुराय जालिना. उपरांत हिंदू कॉलेजीचे आदले विद्यार्थी आनी क्रिस्तांव धर्म आपणायल्ल्या के. एम. बॅनर्जी हाणें अशे तरेची ज्ञानकोशरचना केली. हाचें नांव 'विद्याकल्पद्रुम' वा 'एनसायक्लोपिडिया बँगलॅन्सिस'. ह्या ज्ञानकोशाची इंग्लीश-बंगाली अशी दोन भाशांची आवृतीय आयिल्ली. ह्या ग्रंथाचे सगळे मेळून तेरा खंड आशिल्ले (१८४६-५१). तातूंत इतिहासीक प्रबंधांचे अणकार आनी रुपांतरां, भुमिती, भुगोल, नितीविशींच्यो तशेंच बोधाच्यो कथा आनी लेखकांचे वेंचीक लेखूय आशिल्ले. क्रमीक पुस्तकां बरोवपी सामान्य लेखकांपरस बॅनर्जीची भाशा चड सुदारिल्ली आशिल्ली. पूण धर्मांतरीत क्रिस्तांव आशिल्ल्यान ताका चड नामना मेळ्ळिना. पूण उपरांत जेन्ना ताका एक विद्वान आनी बरो उलोवपी म्हणून मान्यताय मेळ्ळी, तेन्ना ताचो भारतीय तत्त्वज्ञानाच्या स पद्दतींवयलो प्रबंध (१८६७) विद्यापिठांच्या परिक्षांखातीर बरोच काळ मेरेन नेमलो. अस्तंती धर्तीचें नाटक 'परसिक्युटेड' (१८३२) इंग्लिशींत बरोवपी बॅनर्जी हो पयलो भारतीय लेखक. संस्कृत, ग्रीसी, लॅटीन, हिब्रू अशा विंगड विंगड भाशांचो ताचो व्यासंग आशिल्लो.

मधुसुदन दत्त, रॅ. कृष्णमोहन, देवेंद्रनाथ ठाकूर, राजेंद्रलाल मित्र, प्यारीचाँद मित्र, राजनारायण बसू, भूदेव मुखोपाध्याय आनी द्विजेंद्रनाथ ठाकूर हांचो श्रेश्ठ बंगाली साहित्यिकांभितर आस्पाव जाता.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्यकाळासावन ते निमाणेमेरेन ईश्वरचंद्र विद्यासागर हें एक प्रभावी व्यक्तिमत्व आशिल्लें. बंगाली गद्याची साधुभाशा शैली, साहित्य आनी लोकवेव्हाराखातीर वापराक विद्यासागराक बरें यश मेळ्ळें. ताका लागून फुडल्या लेखकांक खूब वाव मेळ्ळो. विद्यासागर हो पंडितांतलो पंडीत आशिल्लो. ताचीं सुरवातीचीं पुस्तकां हीं फोर्ट विल्यम कॉलेजीच्या विद्यार्थ्यांखातीर बरयल्लीं क्रमीक पुस्तकांच आशिल्लीं. तरी तातूंतलीं कांय पुस्तकां देखीक-वेतालपंचविंशति (१८४७), शकुंतला (१८५४) आनी सीतार बनवास (१८६०) हीं साहित्य रचनेचो आदर्शपाठ म्हणून लोकमान्य थरलीं. विद्यासागराचीं मोटीं बंगाली पुस्तकां म्हळयार विधवा-विवाहाच्या समर्थनार्थ बरयल्लो विचारीक प्रबंध (दोन खंड-१८५५) आनी बहुपत्नित्त्वाआड बरयल्लो प्रबंध (दोन खंड-१८७१, १८७३). तशेंच ताणें 'वर्णपरिचय' नांवाच्या बंगाली मुळाक्षरांच्या दोन पुस्तकांपसून ते अभिजात संस्कृतच्या मुळाव्या आनी विकसीत व्याकरणांमेरेन, अशीं खूबशीं क्रमीक पुस्तकां बरयलीं. ताचीं 'उपक्रमणिका' आनी 'व्याकरण कौमुदी' सारकीं

इतलीं बरीं व्याकरणाचीं पुस्तकां आर्विल्ले भारतीय-आर्य भाशेंत आजुनूय कोणें बरोवंक नात. ताणें बरयल्लीं संस्कृत वाचनमाळेचीं पुस्तकां हीं बंगालांत आनी बंगालाभायर लेगीत क्रमीक पुस्तकां म्हणून नेमिल्लीं. ताणें कालिदासाच्यो दोन श्रेश्ठ रचना आनी हेर कांय संस्कृत ग्रंथांच्यो संशोधीत आवृत्त्यो उजवाडायल्यो. ताणें बरयल्ल्या अभिजात संस्कृत काव्याचो संक्षिप्त नियाळ घेवपी पुस्तकांतल्यान 'संस्कृत साहित्याविशींचो प्रस्ताव' (१८५१) आनी ताचे परस ताच्या 'मेघदूता' चे आवृत्तीचे (१८६८) प्रस्तावनेंतल्यान आनी स्पश्टीकरणात्मक टिपांतल्यान विद्यासागराची कुशाग्र समिक्षक वृत्ती दिसता. विद्यासागरान 'महाभारता'चो गद्य अणकार केलो आनी कालीप्रसन्न सिंह हाणें तो उजावाडायलो.

संस्कृत भाशेंतल्या रचनांचे बंगाली गद्यांत अणकार करपाविशीं, संस्कृत कॉलेजीच्या अध्यापकांनी आनी आदल्या विद्यार्थ्यांनी, विद्यासागराची बरोबरी करपाचो खूब यत्न केलो. विद्यासागराच्या क्रमीक पुस्तकांक मेळिल्ल्या यशाक लागून ही सर्त निर्माण जाल्ली. संस्कृत कॉलेजीच्या सुरवातीच्या लेखकांभितर ताराशंकर तर्करत्न, रामगती न्यायरत्न, गिरीशचंद्र विद्यारत्न, आनंदचंद्र वेदांतवागीश, कालीमय घटक, द्वारकानाथ विद्याभूषण हे कांय उल्लेखनीय ग्रंथकार. तर्करत्न हाणें बाणाच्या 'कादंबरी' हे गद्य प्रणयकथेचो स्वैर आनी संक्षिप्त अणकार केला. न्यायरत्न हाणें जायतीं पुस्तकां बरयलीं, तातुंतलें एक म्हत्वाचें पुस्तक म्हळयार 'बंगाली साहित्याचो इतिहास' (१८७२-७३). संस्कृत कॉलेजीच्या गद्य लेखक मंडळीभितर जैतिवंत थरिल्लो आनीक एक लेखक म्हळयार नीलमणी बसक. 'परशियन टेल्स' चें इंग्लिशीवयल्यान केल्लें रुपांतर (१८३४) हें ताचें पयलें साहित्यीक कार्य. उपरांत ताणें 'अरेबियन नायटस्' हे इंग्लीश आवृत्ती वयल्यान बंगाली गद्य अणकार केलो आनी ह्या अणकाराचो पयलो खंड १८५० वर्सा उजवाडा आयलो. 'नवनारा' (णव बायलो- १८५२) हें ताचें सगळयांत यशस्वी पुस्तक. हातूंत पुराणीक आनी इतिहासीक अशा नामनेच्या णव भारतीय बायलांचीं व्यक्तिरेखाचित्रणां आसात. ताच्या हेर सगळया पुस्तकांभितर ताचो तीन खंडांनी बरयल्लो भारताचो इतिहास (१८५६-५८) उल्लेखनीय आसा. हो इतिहास मूळ इंग्लीश ग्रंथाचेर आदारिल्लो आसुनूय ताची भाशा सादी आनी सोंपी आसा. मायकल मधुसूदन दत्त हाणें बंगाली काव्यांत क्रांती घडयली आनी प्यारीचंद मित्र, भूदेव मुखर्जी हांणी बंगाली कादंबरीचें मुळावण घालून दिलें. हरचंद्र घोष आनी गोविंदचंद्र गुप्त हांणी नाटकां बरयलीं.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या चवथ्या दशकांत सरकारी कारभारांत फार्सीबदला बंगाली भाशेचो वापर करचो अशें कंपनी सरकारान फर्मायलें. ताका लागून बंगाली भाशेचें शिक्षणांतलें म्हत्व वाडलें. ह्या संदर्भांत 'द स्कूल सोसायटी', 'द स्कूल बूक सोसायटी', 'अॅकॅडेमिक असोसिएशन', 'बॅथ्यून सोसायटी' ह्या संस्थांनी मोलादीक वावर केलो. १८५१ वर्सा सरकारान, बायलांच्या शिक्षणाखातीर 'व्हरनॅक्युलर लिटररी सोसायटी' हे निमसरकारी संस्थेची स्थापणूक केली. सुरवेक हे संस्थेन राजेंद्रकाल मित्र ह्या पंडिताच्या आदारान एक सचित्र 'पॅनी मॅगेझिन' सुरू केलें.

नवकाव्याखातीर योग्य फाटभूंय तयार करपाचें श्रेय ईश्वरचंद्र गुप्त, ह्या वेवसायान पत्रकार आशिल्ल्या कवीक फावो जाता. गुप्त हो 'संवाद प्रभाकर' ह्या सातोळयाचो (उपरांत हें दिसाळें जालें) संपादक आशिल्लो. हाणें १९३५ ते १९६० मेरेन बंगाली साहित्याचेर प्रभुत्व गाजोवन नव्या-पोरण्या काव्यांभितर मेळ घडोवन हाडलो. 'प्रबोध-चंद्रोदय' (१८५७) ह्या अणकारीत नाटकांतलीं ताणें रचिल्लीं पदां उत्कृश्ट आसात.

रंगलाल बॅनर्जी हो ईश्वरचंद्र गुप्त हाचो साहित्यक्षेत्रांतलो शिश्य तशेंच पत्रकाच्या कार्यांतूय तो ताचो सहकारी आशिल्लो. ताका इंग्लीश साहित्याचें तशेंच संस्कृत साहित्याचें खोलायेन गिन्यान आशिल्लें. प्राचीन भारतीय इतिहासांत आनी पुराणवस्तुशास्त्रांत ताका चड गोडी आशिल्ली. राजेंद्रलाल मित्र हाका ओरिसाचे शिल्पकलेचेर ग्रंथ बरयतना बॅनर्जीचो खूब आदार मेळ्ळो. सरकारी नोकरेंत आसतना, बॅनर्जीची ओरिसांत नेमणूक जाली तेन्ना ताणें उडिया भाशेचो अभ्यास केलो आनी उडिया साहित्याचेर बंगालींतल्यान लेख बरयले. उडिया कवितेचो ओरिसाभायल्या जगाकडेन वळख करून दिवपी तोच पयलो लेखक. ताचें 'पद्मिनी उपाख्यान' (१८५८) हें काव्य राजस्थानी वीरगाथेचेर आदारिल्लें आसून उपरांतचीं 'कर्मदिवी' (१८६२) आनी 'सुरसुंदरी' (१८६८) हीं काव्यां राजपूत इतिहासांतल्या घडणुकांचेर आदारिल्लीं आशिल्लीं. १९७२ वर्सा ताणें 'कुमारसंभव' हाचो पद्य अणकार केलो. 'कांची-कावेरी' (१८७९) ह्या आपल्या काव्यांत ताणें पुरुषोत्तम दास ह्या ओडिया कवीचे पोरणे कवितेचो आदार घेतला.

मायकेल मधुसूदन दत्त आनी रंगलाल बॅनर्जी हे शेजारी तशेंच इश्ट. 'तिलोत्तमा' (१८६०) हो मधुसूदनाचो पयलो काव्यझेलो. ताचें 'मेघनादवध काव्य' (१८६१) हें बंगालींतलें पयलें श्रेश्ठ महाकाव्य. परदेशांत आसतना ताणें बरयल्लीं कांय 'सुनीतां' ताच्या 'चतुर्दशपदी कवितावलि' (१८६५) ह्या ग्रंथांत संकलीत जाल्यांत.

हिंदू कॉलेजींतल्या साहित्यिकांनीं बंगाली नाटकांचें मुळावण घालें. १८५२ वर्सा उजवाडा आयिल्लीं, ताराचरण शिकदार हाचें 'भद्रार्जुन' आनी गोविंदचंद्र गुप्त हाचें 'कीर्तिविलास' हीं पयलीं बंगाली नाटकां. उपरांत हेच कॉलेजीचो हरचंद्र घोष आनी संस्कृत कॉलेजीचो रामनारायण तर्करत्न हांणी नाटकां बरयलीं. १८५४ वर्सा 'कुलीनकुल सर्वस्व' हें तर्करत्नाचें पयलें नाटक माचयेर आयलें पूण तें येसस्वी जालेंना, तेखातीर बरीं नाटकां बरोवपाचो पयलो मान लेगीत मायकल मधुसूदन दत्त हाका फावो जाता. नाट्य लिखाणाचो दुसरो मानकरी दीनबंधू मित्र.

मधुसूदना उपरांतचो म्हत्वाचो कवी म्हणून हेमचंद्र बॅनर्जी हाचें नांव येता. ताणें दधिची मुनीच्या त्यागाची गाथा सांगपी 'वृत्तसंहार काव्य'

(१८७५-१८७७) महाकाव्य बरयलें. 'चिंतातरंगिणी काव्य' (१८६१), 'बीरबाहु काव्य' (१८६४), टँपेस्ट आनी रोमिओ अँड ज्युलिएट नाटकांचे अणकार (१८६८, १८९५), 'भारत-संगीत' (१८७०), 'कवितावलि' (१८७०) ह्यो ताच्यो कांय नामनेच्यो रचना आसात. दान्तेच्या 'दिव्हीना कॉमॅदीआ' च्या अनुकरणान ताणें 'छायामयी काव्य' (१८८०) बरयलें. मधुसूदन, रंगलाल आनी हेमचंद्र हे एकमेकांचे शेजारी-इश्टट. आयज तांचे रावपाचे सुवातेक 'कवितीर्थ' म्हणून वळखतात.

हेमचंद्राफाटल्यान नवीनचंद्र सेन ह्या कवीचें नांव घेवंचें पडटा. ताच्या 'पलाशीर युध्द' (१८७५) ह्या काव्याक खूब नामना मेळ्ळी. 'महाभारतीय' क़थाभागाचेर आदारीत ताचें तीन खंडांतलें महाकाव्यूय खूब गाजलें. 'रैवतक' (१८८६), 'कुरुक्षेत्र' (१८९३) आनी 'प्रभास' (१८९६) हे ताचे तीन खंड.

देवेंद्रनाथ टागोर, ताचीं भुरगीं आनी इश्टांनी मेळून हिंदू मेळ, नांवाचो एक मेळ भरलो. हेंच इंडियन नॅशनल काँग्रसीचें मूळ रूप. लोकांकडल्यान 'महर्षी' ही पदवी मेळिल्लो देवेंद्रनाथ टागोर आनी ताच्या कुटुंबान सगळ्या राश्ट्रीय चळवळींक सदांच आदार दिलो. तांणीच पयलीं राश्ट्रगितां आनी स्तोत्रां बरोवपाक सुरवात केली. १८३९ वर्सा स्थापणूक जाल्ले 'तत्त्वबोधिनी सभा' हे संस्थेचें देवेंद्रनाथान 'तत्त्वबोधिनी पत्रिका' हें म्हयनाळें सुरू केलें. स्वता देवेंद्रनाथाचे लेख, भाशणां, पत्रां हातूंतल्यान बंगाली गद्याच्या उत्क्रांतीचें एक निर्व्याजमनोहर रूप दिसता. ताचो 'भारतवर्षीय उपासक संप्रदाय' (दोन खंड- १८७०, १८८३) हो ग्रंथ हाची गवाय दिता. उपरांत ताच्या प्रतिभावंत पुतांनी ताचोच वारसो फुडें चलयलो. ताचे पूत, धूव, पुतणये, जांवय, नातरां ह्या सगळ्यांनी साहित्य, संगीत, चित्रकला, वेवसाय, वाणिज्य, शिश्टाचार, स्वदेशाची उन्नती ह्या विंगड विंगड क्षेत्रांनी आपले मानदंड प्रस्थापीत केले. ताचो व्हडलो पूत द्विजेंद्रनाथ टागोर हो तत्त्वचिंतक तसोच गद्यलेखक म्हणून तितलोच प्रसिद्द आसा. ताची कांय नामनेची साहित्य-निर्मिती अशी आसा- 'स्वप्नप्रयाण' (१८७५) हें म्हाकाव्य, 'गीतापाठ' (१९१५) ही भगवद्गीतेवयली टिका, 'रेखाक्षर-वर्णमाला' (१९१२) ह्या पद्य-ग्रंथांत ताणें स्वता रचिल्ली बंगाली लघुलिपीची पुराय कल्पना विशद केल्या, 'जौतुक ना कौतुक' (१८८३) हें वर्णनात्मक काव्य बरोवन, रवींद्रनाथ टागोर हाका लग्ना वेळार आहेर म्हणून दिलां. तशेंच १८६० वर्सा ताणें 'मेघदूता' चो अणकार केलो. उपरांत कांय देशभक्तीचेर काव्यां रचलीं आनी बापायच्या 'ब्राह्मोधर्म' (Manual of Brahmoism) ह्या ग्रंथाचो बंगाली पद्यांत अणकार केलो.

द्विजेंद्रनाथाचो मदलो पूत सत्येंद्रनाथ टागोर हो आय. सी. एस. पास जावपी पयलो भारतीय अंमलदार. ताणें तुकारामाचे कांय अभंग बंगालींत अणकारले आनी ताचेर एक इंग्लीश निबंदूय बरयलो. तरणेपणांत ताणें शेक्सपियरच्या आदारान 'सुशीला वीरसिंह' नाटक बरयलें आनी कांय गितांय बरयलीं.

द्विजेंद्रनाथाचो पांचवो पूत ज्योतिरिंद्रनाथ टागोर हो त्या काळांतलो अश्टतासांचो मनीस. संगीत, वादन, चित्रकला, साहित्य, नाट्य, अभिनय, भाशेचो अभ्यास, अणकारपी, तत्त्वज्ञान, अशा विंगड विंगड विशयांनी ताका गती आशिल्ली. 'किंचित जलयोग' (१८७२) हें ताचें पयलें नाटक. तेच भाशेन 'पुरुविक्रम' (१८७४), 'सरोजिनी' (१८७५), 'अलीकबाबू' (१८७७), 'अश्रुमती नाटक' (१८७९), 'मानमयी' (१८८०) हीं ताचीं हेर नाटकांय खूब गाजलीं. 'स्वप्नमथी' (१८८२) हें ताचें निमाणचें गंभीर स्वरुपाचें नाटक. हाचे उपरांत ताणें 'हिते विपरीत' (१८९६) हो फार्स आनी दोन ल्हान संगीतिका बरयल्यो. ताच्या हेर गद्य-लिखाणांत, काय निबंद, फ्रेंच भाशेंतल्यान केल्ले आणकार आनी कांय इंग्लिशींतल्यान तशेंच मराठींतल्यान केल्ले अणकार हांचो आस्पाव जाता.

देवेंद्रनाथाचो सातवो पूत रवींद्रनाथ टागोर हाणें बंगालांत एक युगांतर घडोवन हाडलें. काव्यां, कविता, गितां, संगीतरचना, कथा, कादंबऱ्यो, निबंद, नाटकां, प्रहसनां, संगितिका, चित्रकला, समिक्षा, पत्र-लिखाण, अभिनय, शिक्षणविचार, राजनीत अशा विशयांचेर ताणें साहित्य-निर्मिती केली. १९१३ वर्सा ताका साहित्याचो नोबॅल-पुरस्कार फावो जालो.

रवींद्रनाथाची भयण स्वर्णकुमारी देवी तशेंच बापोलभाव गगनेंद्रनाथ आनी अवनींद्रनाथ टागोर हांणीय बंगाली साहित्यांत मोलादीक वावर केला. स्वर्णकुमारी ही बंगालींतली पयली आनी म्हत्वाची बायल-कादंबरीकार. अवनींद्रनाथ हाणें आर्विल्ल्या काळांत भारतीय चित्रकलेच्या इतिहासांत क्रांती घडयली, तशेंच बंगाली साहित्यांतूय भर घाली. राजकाहिनी (१९०८), भूतपतरीर देश (१९१५), खतांचिर खाता (१९१६), पथेविपथे (१९१९), बागेश्वरी शिल्पप्रबंधावलि (१९४१), भारतशिल्प, घरोया (१९४१), जोडासांकोर धारे (१९४४) हीं अवनींद्रनाथाचीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां.

बंगालींतल्यान इतिहासीक कादंबरी बरोवंक सुरवात करपी भूदेव मुखर्जी हो हिंदू कॉलेजींतलो नामनेचो विद्यार्थी. ताच्या 'ऐतिहासिक उपन्यास' (१८६२) ह्या पुस्तकांत एक कथा आनी एक ल्हान कादंबरी आसून हांचे विशय जे. एच. कॉटर हाचे 'रोमान्स ऑफ हिस्टरी' वयल्यान घेतल्यात. ताची दुसरी कथा 'अंगुरीयविनिमय' हीय कॉंटरचेच कथेची आवृत्ती. बंगालांतले जिणेचें वास्तव चित्रण करपी खरी बंगाली कादंबरी प्यारीचंद मित्र ह्या लेखकापासून सुरू जाली. हाचें टोपण नांव टेकचंद ठाकूर. 'आलालेर घरेर दुलाल' (१८५८) ही ताची पयली कादंबरी, बंगालींतली पयली समाजीक कादंबरी मानतात. ताणें स्वताची भाशाशैली घडयली.

आर्विल्ल्या बंगाली साहित्याचो श्रेश्ठ शिल्पकार म्हणून मधुसूदना उपरांत बंकिमचंद्र चॅटर्जी हाचें नांव घेवंचें पडटा. ताणें 'राजमोहन्स वायफ' (१८६४) हे इंग्लीश कादंबरीन साहित्यसेवेक सुरवात केली आनी उपरांत 'दुर्गेशनंदिनी' (१८६५) ही कादंबरी बरोवन आर्विल्ले बंगाली कादंबरीचें मुळावण घालें. उपरांत ताणें इतिहासीक, समाजीक, विचारीक कादंबऱ्यो

बरोवन बंगाली साहित्याचीच न्हय जाल्यार अणकारांवरवीं समेस्त भारतीय साहित्याची वाट मेकळी करून दिली. ताच्यो कांय म्हत्वाच्यो गाजिल्ल्यो कादंबऱ्यो अशो आसात- 'कपालकुंडला' (१८६६), 'मृणालिनी' (१८६९), 'विषवृक्ष' (१८७३), 'चंद्रशेखर' (१८७७), 'रजनी' (१८७७), 'कृष्णकांतेर विल (१८७८), 'राजसिंह' (१८८१), 'आनंदमठ' (१८८२), 'देवी चौधुराणी' (१८८४), 'सीताराम' (१८८६).

जायत्या कवींनी आनी कथाकारांनी बंकिमचंद्राच्या साहित्यांतल्यान स्फूर्त घेतली. त्याच काळांतले कांय नामनेचे साहित्यीक अशे- बंकिमचंद्राचो व्हडलो भाव संजीवचंद्र चॅटर्जी, तारकनाथ गांगुली, प्रतापचंद घोष, रमेशचंद्र दत्त, दामोदर मुखर्जी, शिवनाथ शास्त्री, श्रीशचंद्र मुजुमदार, नगेंद्रनाथ गुप्ता, इंद्रनाथ बॅनर्जी, जोगेशचंद्र बसु, त्रैलोक्यनाथ मुखर्जी.

इ. स. च्या अठराव्या शेंकड्याचे अखेरेक बंगाली लोकांभितर आधुनीक नाटकांविशीं अभिरुची निर्माण जाली. यात्रानाटकां सगळ्याक जातालीं, पूण शिक्षीत लोकांक तांचो वीट आयिल्लो. ह्याच काळांत, जेरसिम लेबेडेफ नांवाचो एक रशियी कलाकार कलकत्त्यांत आयलो. ताणें 'द डिसगायस' आनी 'लव इझ द बॅस्ट डॉक्टर' हीं दोन नाटकां गोकुलनाथ दास ह्या बंगाली शिक्षकाच्या आदारान अणकारलीं. बंगाली लोकांची गंभीर विशयांपरस विनोदी विशयांची गोडी लक्षांत घेवन आपलें पयलें नाटक माचयेर हाडलें. लोकांक तें खूब मानवलें.

इ.स. १८३१ वर्सा प्रसन्नकुमार ठाकूर हाणें एक नाट्यशाळा उबारली आनी शेक्सपीयराचें एक आनी भवभूतीचें एक अशीं दोन नाटकां करून दाखयलीं. इ. स. १८३५ वर्सा नवीनचंद्र बसू हाणें शेक्सपीयराचीं आनीक कांय नाटकां माचयेर हाडलीं. रामचंद्र तर्कालंकार, नंदकुमार रॉय आनी नीलमणी पाल हे नाटककार त्या काळांत निर्माण जाले. योगेंद्र चंद्रगुप्त, ताराचरण शिकंदर, हरचंद्र घोष हांणीय कांय नाटकां बरयलीं. पूण अजुनूय स्वतंत्र अशें बंगाली नाटक निर्माण जावंक नाशिल्लें. रामनारायण तर्करत्न हो त्याच काळांतलो एक समर्थ नाटककार. ताच्या 'रत्नावली' ह्या नाटकान बंगाली नाटकाच्या भवितव्याचो योग्य पांवडो घालो अशें मानतात. उपरांत शेक्सपिअराच्या रुपांतरीत नाटकांनी बरीच सुदारणा जाली आनी ह्या नाटकांचे यशस्वी प्रयोग जाले. अशा नाटकांनी चंद्रकाली घोष हाचें 'कुसुमकुमारी' (१८६८) हें 'सिंबेलीन' ह्या नाटकाचेर आदारिल्लें नाटक, हरलाल राय हाचें 'रुद्रपाल' (१८७४) हें 'हॅम्लेट' चें रुपांतर आनी तारिणीचरण पाल हाचें 'भीमसिंह' (१८७५) हें 'ऑथेल्लो' चेर आदारिल्लें नाटक हांचो आस्पाव जाता.

विधवाविवाहाविशींचीं खूबशीं नाटकां त्या काळांत जालीं. पूण कलागुणांचो उणाव आशिल्ल्यान तीं तग धरूंक पावलिनात. हो उणाव मायकल मधुसूदन दत्त हाणें भरून काडलो. ताणें 'शर्मिष्ठा' (१८५८), 'पद्मावती' (१८६०), 'कृष्णकुमारी' (१८६१) आनी 'मायाकानन' (१८७४, मरणा उपरांत उजवाडा आयलें) अशीं चार नाटकां बरयलीं. कृष्णकुमारी हें ताचें नाटक खूब गाजलें. दत्त हाणें दोन प्रहसनांय बरयलीं. तांचें अनुकरण करून हेर कलकारांनीय कांय प्रहसनां बरयलीं. उपरांत एक नवी उर्बा घेवन दीनबंधू मित्र हो नाटककार फुडें आयलो. ताणें 'नीलदर्पण' हें नाटक बरोवन यशस्वी केलें. ताणें बरीचशीं प्रहसनांय बरयलीं. मनमोहन बसू, हरलाल रॉय, ज्योतिरिंद्र टागोर, गिरीशचंद्र घोष, क्षीरोदप्रसाद विद्याविनोद, अमृतलाल बसू, द्विजेंद्रलाल रॉय, उपेंद्रनाथ दास, राजकृष्ण हे नामनेचे नाटककार आसात.

इ. स. १८७३ वर्सा नॅशनल थिएटर नांवाची नाट्यसंस्था निर्माण जाली, आनी तिणें एक नवें नाट्ययुगूच सुरू केलें. त्याच अदमासाक ओरिएंटल थिएटर नांवाच्यो आनीक दोन नाट्यसंस्था निर्माण जाल्यो. त्या फुडल्या काळांत दत्त हाचें मेघनादवध, हेमचंद्राचें वृत्तसंहार, ईश्वरचंद्राचें सीता-वनवास, बंकिमचंद्राचें दुर्गेशनंदिनी हीं नामनेचीं काव्यां आनी कादंबऱ्यो हांचें नाट्यांनी रुपांतर केलें. गिरीशचंद्र घोष, अमृतलाल बसू आनी द्विजेंद्रलाल रॉय हे बंगाली रंगमाचयेचे नाटककार त्रिमूर्ती थरले. गिरीशचंद्रान आपल्या नाटकांतल्यान पुराणीक आदर्श उबे करून अंयशांपरस चड नाटकां बरयलीं. अमृतलाल बसू हो स्वता नट आशिल्लो. ताच्या नाटकांक विनोदाची झालर आशिल्ली. द्विजेंद्रलाल रॉय हाच्या नाटकांनी कलात्मक दोश आसून लेगीत ताच्या नाटकांनी रंगमाची गाजोवन सोडली. उपरांत रवींद्रनाथ टागोराचे प्रतिभेन बंगाली नाट्यसृश्टीक एक नवें मोडण मेळ्ळें. ताच्या नाटकांनी, काव्यात्मकतेंतल्यान फुलिल्लें जिणेदर्शन घडटा. वाल्मिकी, प्रतिमा, कालमृगया, मायार खेला, प्रकृतीर प्रतिशोध, चित्रा अचलायतन, डाकघर अशीं नाटकां ताणें बरयलीं. सामान्य जनतेक कळपासारकीं हीं नाटकां नाशिल्लीं. पूण सुशिक्षीत आनी उंचेल्या वर्गान तांचो रसीकपणान आस्वाद घेतलो.

परतून काव्यक्षेत्राकडेन पळयतकच, बिहारीलाल चक्रवर्ती हाचें नांव पयलीं झळकता. चक्रवर्तीचें पयलें पुस्तक म्हळ्यार पोरणे पद्दतीन बरयल्ल्या शंबर कवितांचो एक संग्रह. उपरांत ताणें 'पूर्णिमा' (१८५८) आनी 'अबोधबंधू' (१८६६) ह्या स्वताच्याच पत्रकांतल्यान आपल्यो कविता उजवाडायल्यो. ते उपरांत बंधुवियोग (१८६३), प्रेमवाहिनी (१८६३), निसर्ग संदर्शन (१८६९), वंगसुंदरी (१८६९) हीं ताचीं काव्यां उजवाडा आयलीं. 'शारदा मंगल' (१८७९) हें ताचें सगळयांत चड नामनेचें काव्य. ताचें 'साधेर आसन' (१८८८-८९) हें धा सर्गांचें काव्य टागोर घराब्याकडेन आशिल्ल्या नात्याविशीं आशिल्ल्यान ताची चड नामना जाली. कवी सुरेंद्रनाथ मुजुमदार, देवेंद्रनाथ सेन, गोविंदचंद्र दास, अक्षयकुमार बरल, द्विजेंद्रनाथ टागोर हे ह्याच काळांतले नामनेचे कवी. गिरींद्रमोहिनी दत्ता, कामिनी राय, स्वर्णकुमारी देवी ह्या कवीयत्रींनीय लक्षणीय अशें काव्यलिखाण केलां.

एक उत्तम कथाकार म्हणून रवींद्रनाथा फाटल्यान प्रभातकुमार मुखर्जी हाचें नांव येता. नवीन संन्यासी (१९१२), रत्नदीप (१९१५) ह्यो

कादंबऱ्यो आनी धा-बारा कथांझेले वाचकांक खूब मानवले. उपरांतच्या लेखक-लेखिकांभितर रामेंद्र सुंदर त्रिवेदी, जोगेशचंद्र राय विद्यानिधी, अक्षयकुमार मैत्रेय, सखाराम गणेश देउसकर, उमेशचंद्र बतब्याल, बलेंद्रनाथ टागोर, जतींद्रमोहन सिंह, शरद्कुमारी चौधुराणी, सुधींद्रनाथ टागोर, सुरेंद्रनाथ मजुमदार, सुरेशचंद्र समाजपती, ब्रह्मबांधव उपाध्याय, प्रियवंदा देवी हांचो आस्पाव जाता.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्यकाळांतलो एक नामनेचो गद्यलेखक अक्षयकुमार दत्त हाचो नातू सत्येंद्रनाथ हो भारतीय लेखकसंघांतलो एक म्हत्वाचो वांगडी आशिल्लो. हो एक कवी आशिल्लो. ताच्या काळांतल्या कवींचेर सत्येंद्रनाथाचो इतलो प्रभाव पडिल्लो, तितलो प्रभाव त्या वेळार रवींद्रनाथ टागोराचो लेगीत दिसना. दत्ताच्यो सुरवातीच्या कवितांच्यो दोन ल्हान पुस्तिका उजवाडा आयल्यो (१९००-१९०५). ह्या कवितांचेर आनी 'वेणू ओ वीणा' (१९०६), 'होमशिखा' (१९०७) ह्या झेल्यांतल्या कवितांचेर मायकल मधुसूदन दत्त, देवेंद्रनाथ सेन आनी अक्षयकुमार बरल हांचो प्रभाव दिसता. उपरांत रवींद्रसाहित्याकडेन ताची वळख जाली. 'फुलेर फसल' (१९११), 'कुहू ओ केका'(१९१२), 'तुलीर लिखाण' (१९१४), 'अभ्र आबीर' (१९१६) ह्या ताच्या काव्यांझेल्यांनी ताची प्रगल्भताय दिसता. विनोदी आनी विडंबनात्मक कवितांची रचना तो सहजतायेन करतालो. अशेच तरेचो ताचो एक काव्य झेलो 'हसन्तिका' (१९१७) हो आसा. १९१४ वर्सासावन ताच्या मरणामेरेनच्यो कविता 'बेडाशेषेर गान' आनी 'बिदाय आरती' ह्या झेल्यांनी आसात. हे दोनूय झेले ताच्या मरणा उपरांत उजवाडा आयल्यात (१९२२). ताणें कांय कवितांचो अणकार केला, त्यो कविता 'तीर्थसलिल' (१९०८), 'तीर्थरेणु' (१९१०) आनी 'मणिमंजुषा' (१९१५) ह्या तीन झेल्यांनी एकठावल्यात. नाट्य, कथा, कादंबरी, निबंध, विनोद ह्या साहित्यमळांचेरूय ताणें लिखाण केलां. चडशे विडंबनात्मक निबंद ताणें 'नवकुमार कविरत्न' ह्या टोपणनांवान बरयल्यात.

दत्ता उपरांत उल्लेखनीय कवींभितर द्विजेंद्रनारायण बागची, जतींद्रमोहन बागची, करुणानिधान बॅनर्जी, कुमुदरंजन मल्लिक, कालिदास राय, किरणधन चॅटर्जी हांचो आस्पाव जाता. काजी नज्रूल इस्लाम आनी मोहितलाल मजुमदार हांणी मात सत्येंद्रनाथ दत्त हाचो कित्तो गिरोवन कविता-लिखाणाक सुरवात केली आनी उपरांत खूब नामनाय जोडली.

कादंबरेचो घाट मात पयलींभाशेनूच आशिल्लो, पूण आशयांत मात दिशींदिशीं प्रगती जायत आशिल्ली. हरप्रसाद शास्त्री आनी ताचो विद्यार्थी राखालदास बॅनर्जी हे दोगूय भारततत्त्वविद् (इंडोलॉजिस्ट) आशिल्ले. तांणी इतिहासीक कादंबरी-लिखाणांत जैत मेळयलें. 'भारती' च्या लेखक संघांतल्या हेर तरणाट्या कथाकारांनी आनी कादंबरीकारांनी प्रेमकथांचो आनी कुटुंबीक कादंबऱ्यांचो थरावीक सांचो मोडपाचो यत्न केलो. भारतींच्या तरनाट्या लेखकांभितर सौरींद्रमोहन मुखर्जी हो सगळयांत अणभवी लेखक. कादंबऱ्यो, कथांझेले आनी नाटकां मेळून ताचीं शंबरावयर पुस्तकां उजवाडा आयलीं. चारुचंद्र बॅनर्जी हाणें पयलीं कथा-लिखाणान सुरवात केली आनी इंग्लिशींतल्या तशेंच हेर परदेशी भाशांतल्या कथा-कादंबऱ्यांचे अणकार आनी रुपांतरां केलीं. ताणें बारा कथांझेले बरयल्यात. प्रभातकुमार मुखर्जी, फकीरचंद चॅटर्जी, मनमोहन चॅटर्जी, माणिक भट्टाचार्य, सुरेंद्रनाथ गांगुली आनी इंदिरा देवी हांणी चडशें कादंबरी-लिखाण 'मानसी ओ मर्मवाणी' ह्या पत्रकांतल्यान केलां.

विसाव्या शेंकड्यांतल्या नामनेच्या कादंबरीकारांभितर रवींद्रनाथा उपरांत शरदचंद्र चॅटर्जी हाचें नांव पयलीं घेवचें पडटा. ताणें आपली पयली कथा १९०४ वर्सा, ताचो मामा सुरेंद्रनाथ गांगुली हाच्या नांवान उजवाडायली. उपरांत १९०७ वर्सा ताच्या स्वताच्या नांवान एक दीर्घकथा 'बडदिदी' ही दोन वांट्यांनी 'भारती'त उजवाडा येतकच जमुना, साहित्य आनी भारतवर्ष ह्या नेमाळ्यांनी ताच्यो कथा उजवाडा येवंक लागल्यो. 'देवदास' (ही कथा १९०१ वर्सा बरयल्ली पूण १९१७ त उजवाडा आयली), 'बिंदूर छेले' (१९१३), 'परिणीता', 'बिराज बऊ', 'रामेर सुमती' (१९१४), 'अरक्षणीय', 'पल्ली समाज' ह्या ताच्या सुरवेच्या कथा-कादंबऱ्यांचेर बंकिमचंद्र चॅटर्जीचो प्रभाव दिसता. ताची चार भागांनी उजवाडा आयिल्ली 'श्रीकांत' (१९१७-३३), 'चरित्रहीन' (१९१७) तशेंच ताची पयली उजवाडा आयिल्ली 'मंदिर' (१९०४) ह्या कादंबऱ्यांनी ताचो स्वताचो अणभव समजता. 'गृहदाह' (१९१९) ही ताची सगळयांत व्हडली कादंबरी. 'दत्ता' (१९१७-१९१९) आनी 'देना-पावना' (१९२३) ह्यो ताच्यो रोमँटिक प्रेमकथा. 'पथेर दाबी' (१९२६) ही क्रांतिकारक चळवळीचे फांटभुंयेचेर बरयल्या जाल्यार 'विप्रदास' (१९३६) ही ताची कादंबरी कुटुंबीक. 'शेषप्रश्न' (१९३१) ही ताची बुध्दिवादी कादंबरी.

अनुरुपा देवी, निरुपमा देवी, ताराशंकर बॅनर्जी, हरिसाधन मुखर्जी, हेमेंद्रकुमार राय, नरेश्चंद्र सेनगुप्त, शैलबाला घोषजाया, शैलजानंद मुखर्जी, बलइचाँद मुखर्जी, अन्नदाशंकर राय, शरदिंदू बॅनर्जी, माणिक बॅनर्जी, विभूतिभूषण बॅनर्जी, अचिन्त्यकुमार सेनगुप्त, बुध्ददेव बसू हे नामनेचे कादंबरीकार.

पयल्या म्हाझुजा वेळार, म्हळयार मे १९१४ त, 'सबुजपत्र' (पाचवें पान) हें म्हयनाळें सुरू जालें. ह्या नेमाळ्यापयलीं बंकिमचंद्राच्या 'बंगदर्शन' म्हयनाळ्याची परंपरा फुडें चलोवपी भारती, साहित्य, प्रवासी, भारतवर्ष, जमुना, विचित्रा हीं म्हयनाळीं चालू आशिल्लीं आनी तांचो असो खाशेलो लेखक परिवारूय आशिल्लो. पूण सबुजपत्र, कल्लोल, कालिओ-कलम, नारायण, परिचय ह्या म्हयनाळ्यांनी आपली निश्चीत अशी ठाम भुमिका घेवन साहित्यांत पावल दवरलें आनी वाङमयीन वाडीक हातभार लायलो.

विसाव्या शेंकड्याचीं पयलीं पंचवीस वर्सां म्हळयार खूबशा राजकीय उलाढालींचो काळ. 'सबुजपत्र' ह्या नेमाळ्यान ह्या काळाची जाणविकाय करून दिली. ह्या म्हयनाळ्याचो संपादक प्रथम चौधरी हो स्वतंत्र विचारांचो

आनी धारदार लिखाणाचो साहित्यीक आशिल्लो. ताचें रवींद्रनाथाची धुवडी इंदिरा हिचेकडेन लग्न जाल्लें आनो तो कलकत्त्यांतल्या हायकोर्ट बाराचो वांगडी आशिल्लो. लेखकान स्वताचे विचार, अणभव, अंतःप्रेरणा उर्बेभरीत उतरांनी उकतावंच्यो ह्या हेतान प्रथमबाबून तशेंच रवींद्रनाथानूय चैलीत शैली आपणायली.

असहकारितेचे चळवळीच्या पयल्या उद्रेकाउपरांत भारतांत ब्रिटीश सरकाराकडेन असहकार आनी अवज्ञा करपी राजकीय पक्ष निर्माण जाले; सामान्य जनतेंतूय एके तरेची राजकीय जाणविकाय तयार जावंक लागली. तरणाट्या लेखकांचो पंगड, बारीकसाणीन शारांतल्या आनी लागसारच्या वाठारांतले झोपडपट्टेचे जिणेचें चित्रण करूंक लागलो. ह्या पंगडाक तेंको दिवपी कांय जेश्ठ लेखकांनीय 'भारती' आनी 'नारायण' ह्या पत्रकांनी 'वास्तववाद' हाडलो. हे आर्विल्ले साहित्य चळवळीचें मुखपत्र म्हळयार, गोकुलचंद्र नाग आनी दिनेशरंजन दास हांणी १९२३ वर्सासावन सुरू केल्लें 'कल्लोल' नांवाचें पत्रक तशेंच 'कालिओ-कलम, प्रगति, परिचय ह्या नेमाळयांनीय आपली प्रगती चालू दवरली. 'परिचय' हो सबुजपत्राचोच एक नवो अवतार आशिल्लो. ह्या पत्रकाचो मुखेल हेत, साहित्यांतल्या नव्या प्रवृत्तींक उर्बा दिवप हो आशिल्ल्यान, तातूंत अस्तंती राश्ट्रांतल्या त्या काळांतल्या साहित्याक आनी साहित्यविचारांक सुवात आसताली.

नामनेच्या कादंबरीकारांचें कार्य बंगाली साहित्य संपन्न करपी आसलें तरी विस्तारान तिचो नियाळ घेवप कठीण जाता. दर्जेदार लेखक म्हणून कितलींशींच नांवां फुडें येतात. विचारवंत अन्नदाशंकर राय हाची 'सत्यासत्य' ही स खंडांची (१९३२-४२) कादंबरी-माळ आर्विल्या बंगालची महागाथाच. कवी बुध्ददेव बसू हाची 'तिथिडोर' (१९४९), 'धूर्जटीप्रसाद मुखर्जी आवर्त' (१९३७), 'मोहना' (१९४३) आनी 'अंतःशीला' (१९३५). गोकुळचंद नाग हाची 'पथिक' (१९२५), मनीष घटक हाची 'पटलडागार पाँचाली', शैलजानंद मुखर्जी हाची 'सोलोआना' (१९२५), प्रबोधकुमार सान्याल हाची 'महाप्रस्थानेर पथे' वा 'प्रिय बांधवी' (१९३३), मनोज बसू हाची 'भुली नाई' (१९४३) वा 'निशिकुटुंब', प्रेमांकुर आतर्थी हाच्यो 'महास्थविर जातक' (२ खंड, १९४४-४७) आनी 'झडेर पाखी' (१९२३), विभूतिभूषण मुखर्जी हाच्यो 'राणूर प्रथम भाग' (१९३७), 'राणूर द्वितीय भाग' (१९३८), 'राणूर कथामाला' (१९४१), 'हाते खडि' (१९४७) 'नी लांगुरीय' (१९४२) आनी 'कुशीप्रांगण'. प्रथमनाथ बिशी हाची 'जोडा दीधीर चौधुरी परिवार' (१९३७), रमेशचंद्र सेन हाच्यो 'शताब्दी' (१९४५), 'कुरपाला' (१९४६), 'काजल' (१९४९), मणींद्रलाल बसू हाच्यो 'रमला' (१९२३) आनी 'जीवनायन (१९३६) अशी नामावली करप जाता. ह्याच काळांत शरदिंदू बॅनर्जी हाच्यो कथा, कादंबऱ्यो आनी रहस्यकथा, गजेंद्रकुमार मित्र आनी सुमथनाथ घोष हांच्यो गोष्टीवेल्हाळ रचना, अचिन्त्यकुमार सेनगुप्त हाच्यो रसाळ कथा-कादंबऱ्यो, सजनीकांत दास, सरोजकुमार राय चौधुरी हांच्यो कादंबऱ्यो, लघुकथा उल्लेखनीय आसात. तशेंच, प्रेमेंद्र मित्र हाची 'पंक' (१९२५), शैलजानंद मुखर्जी हाची 'कयलाकुठी' (१९३०), गोपाल हालदार हाची 'पंचाशेर पथें' (१९४४), 'वैतालिक' (१९४७), 'पंद-संचार' (१९५५) ह्यो कादंबऱ्यो आनी उत्कृश्ट लघुकथा बरोवपी नारायण गंगोपाध्याय आनी 'जागरी' (१९४५), 'ढोंडाँई चरितमानस' (दोन वांटे १९४९-५१) ह्या कादंबऱ्यांचो लेखक सतीनाथ भादुडी हांचो उल्लेख करप गरजेचें.

ह्या काळांतल्या लघुक्षेत्रांत, बंकिमचंद्राचो व्हडलो भाव संजीवचंद्र चॅटर्जी, इंद्रनाथ बॅनर्जी, नगेंद्रनाथ गुप्त, स्वर्णकुमारी देवी हांणी लुघुकथेक वाट घालून दिली. उपरांत रवींद्रनाथान ती रुंदायली. ताणें लघुकथेक 'छोटो गल्प' हें उतर रूढ केलें. उपरांत शरदचंद्र चॅटर्जी, त्रैलोक्यनाथ मुखर्जी, प्रभातकुमार मुखर्जी, चारुचंद्र बॅनर्जी, सुधींद्रनाथ टागोर, दीनेंद्रकुमार राय, मणिलाल गंगोपाध्याय, सौरींद्रमोहन मुखर्जी, प्रथम चौधुरी, केदारनाथ बॅनर्जी हांच्यो लघुकथा खूब गाजल्यो. कल्लोल युगांत जगदीश गुप्त हाणें लघुकथेंत आर्विल्लेंपण हाडलें. शैलजानंद मुखर्जीन गरीबांचे प्रस्न आपले कथेंत मांडले. प्रेमेंद्र मित्र हाणें आपले कथेचेर घसघशीत साज चडोवन रवींद्रनाथाच्या कथाशिल्पाचो वारसो सांबाळ्ळो. कवी, कादंबरीकार आनी चरित्रकार म्हणून अचिन्त्यकुमार सेनगुप्त हाका खूब नामना मेळ्ळी. देव बसू, अन्नदाशंकर राय हांणी बंगाली लघुकथा प्रगत केली. राजशेखर बसू, बलाइचंद मुखर्जी, शरदिंदू बॅनर्जी, विभूतिभूषण बॅनर्जी, ताराशंकर बॅनर्जी तशेंच, मनोज बसू, सरोजकुमार रायचौधुरी, प्रबोधकुमार सान्याल हेय ह्या काळांतले नामनेचे लेखक.

१९१३ वर्सा रवींद्रनाथाच्या 'गीतांजलि' (१९१०) काव्याझेल्याक नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो आनी हेच फाटभुंयेचेर नवकवितेची चळवळ सुरू जाली. भोंवतणचे बदलपी राजकीय आनी समाजीक परिस्थितीक लागून, रवींद्रनाथाचें अनुकरण करप काय ना अशे विचित्र अवस्थेंत नवी पिळगी आसतनाच काजी नज्रूल, मोहितलाल मजुमदार, सत्येंद्रनाथ दत्त, यतींद्रनाथ सेनगुप्त, अचिन्त्यकुमार सेनगुप्त, तेचभाशेन बुध्ददेव बसू, सुधींद्रनाथ दत्त, विष्णू दे, जीवनानंद दास, अमिय चक्रवर्ती, प्रेमेंद्र मित्र, हुमायून कबीर, अन्नदाशंकर राय, अजित दत्त, संजय भट्टाचार्य, दिनेश दास, समर सेन, हरप्रसाद मित्र हांणी वेगळो सूर लायलो. रवींद्रनाथाच्या काव्य संवसारांतल्यान वेगळे जावन तांणी आपली वेगळी रांदन मांडली.

ह्या काळांतल्या नाट्यक्षेत्रांत मात खाशेलपण अशें कांयच दिसना. पोरणे धर्तेच्या नाटकांचो अपरेशचंद्र मुखर्जी हो निमाणचो नाटककार आशिल्लो. हाचे उपरांतचे मन्मथ राय, शचींद्रनाथ सेनगुप्त, निशिकांत बसुराय, जलधर चॅटर्जी, बिधायक भट्टाचार्य, महेंद्र गुप्त, अयस्कांत बक्षी, प्रथमनाथ बिशी ह्या नाटककारांनी, तांच्या यत्नांनी रंगमाची तिगोवन दवरली. नाटकांनी आर्विलेंपण आयलें पूण रवींद्रनाथाचो आडवाद सोडल्यार, कोणाकूच श्रेश्ठ नाट्यकृतीची निर्मिती सादलिना.

**आर्विल्लें युग :** पयलींच्या काळांतल्या कांय नामनेच्या साहित्यिकांनी

ह्याय काळांत आपलें नांव दवरलें. कादंबरीच्या मळावयले ताराशंकर बॅनर्जी, माणिक बॅनर्जी, नारायण गंगोपाध्याय, बलाइचंद मुखर्जी, अचिन्त्यकुमार सेनगुप्त, प्रेमेंद्र मित्र, अन्नदा- शंकर राय हांणी आपली साहित्यनिर्मिती चालू दवरली. दुकळ, जातीवादी दंगली, फाळणी अशे प्रासंगिक फाटभुंयेचेर खूब कादंबऱ्यो बरोवप जाल्यो. नारायण सान्याल हाची 'वल्मीक', शक्तिपद राजगुरू हाची 'तबु विहंग' ह्या कादंबऱ्यांनी निर्वासितांची काणी समर्जैता. बिमल कर हाचे 'देवाल' (१९५६); ज्योतिरिंद्र नंदी हाचे 'मीरार दुपूर' (१९५३), 'बारोधर एक उठोन' (१९५५); संतोषकुमार घोष हाच्या 'किंनु गोयालार गलि' (१९५०), 'मोमेर पुतुल' (१९५४); नरेंद्रनाथ मित्र हाच्यो 'दूरभाषिणी', 'चेनामहल' (१९५३), देहमन; समरेश बसू हाच्यो 'गंगा' (१९५७), 'त्रिधारा' (१९५८) ह्या कादंबऱ्यांनी म्हाझुजा उपरांतचे जिणेचें आनी समाजरचनेचें चित्रण दिसता. मनोज बसू हाच्या 'जलमंगल', 'बन केटे बसत'; अद्वैत मल्लबर्मन हाचे 'तितास एकटी नदीर नाम' (१९५६); गुणमय माझा हाच्या 'लखीन्दर दिगार' (१९५१), 'जुनापूर स्टील' (१९६०); समरेश बसू हाचे 'बी. टी. रोडेर धारे' ह्या कादंबऱ्यांनी समाजाच्या उपेक्षीत, अपमानीत अशा दलीत वर्गाचें उकतें चित्रण दिसता. बंगालच्या प्रदेशीक खाशेलपणांचें बारीकसाणीन चित्रण करपी 'आंचलिक' कादंबऱ्यो म्हणून नारायण गंगोपाध्याय हाची 'उपनिबेश' (१९४५); अमियभूषण मजुमदार हाची 'गड श्रीखंड' (१९५७); प्रफुल्ल राय हाच्यो 'पूर्व पार्वती' (१९५७) 'सिंधुपारेर पाखी' (१९५९); रमापाद चौधुरी हाची 'बनपलाशीर पदावली' (१९६२) ह्यो कादंबऱ्या येवजतात. इतिहासीक कादंबरेचोच एक प्रकार 'पिरीयड नॉवेल' ही कादंबरी ह्या काळांतूच लोकप्रिय थरली. अशा कादंबरींभितर प्रमथनाथ बिशी हाची 'केरी साहेबेर मुन्शी' (१९५६), बिमल मित्र हाची 'साहेब बिबि गुलाम' (१९५४); अमियभूषण मजुमदार हाची 'नील भुँईया' (१९५५); गजेंद्रकुमार मित्र हाची 'कलकातार काछेइ' (१९५७) हांचो आस्पाव जाता. इतिहासीक कादंबऱ्यांकूय ह्या काळांत नव्यान उमाळो आयलो. शरदिंदू बॅनर्जी हाची 'गोडमल्लार' (१९५४); प्रमथनाथ बिशी हाची 'लाल केल्ला' (१९६४); गजेंद्रकुमार मित्र हाची 'बन्हिबन्या' (१९५९); नारायण गंगोपाध्याय हाची 'पदसंचार' (१९५५); स्वराज बॅनर्जी हाची 'चंदनडांगार हाट' (१९५२); समरेश बसू हाची 'उत्तरंग' (१९५१) ह्यो कादंबऱ्यो हेच धर्तेच्यो आसात.

कमलकुमार मजुमदार हाची 'अंतर्जतीर यात्रा' (१९६२) आनी 'नीम अन्नपूर्णा' (१९६३) ह्यो दोन कादंबऱ्यो आपल्या प्रखर वेगळेपणान जाणवतात. समरेश बसू हाची 'विवर' (१९७४) आनी बुध्ददेव बसू हाची 'रात भोरे ब्रिष्टी' ह्योय लक्षणीय कादंबऱ्यो. प्रतिभा बसूचे पटकथेच्या (सिनेरीओ) तंत्रान कादंबरी बरोवपाचो प्रयोग नोंद घेवपासारकोच आसा. ह्या काळांत चल चित्राचो कथा-कादंबरेवयलो प्रभाव खूब वाडलो. कालिकानंद भट्टाचार्य 'अवधूत' ह्या कादंबरीकाराच्यो 'मरुतीर्थ हिंगलज' (१९५५), 'उध्दारेणपूरर घाट' (१९५६) ह्यो कादंबऱ्यो कांय काळ खूब गाजल्यो.

महाश्वेतादेवी, बाणी राय, लीला मजुमदार, आशापूर्णादेवी ह्या लेखिकांनी कादंबरी क्षेत्रांत म्हत्वाची भर घाली. ह्या काळांतलो आनीक एक व्रती कथाशिल्पी म्हळ्यार नरेंद्रनाथ मित्र. ताणें 'द्वीपपुञ्ज' (१९४७) ही यशस्वी कादंबरी बरयतकच एका फाटल्यान एक अशो 'पत्राणि' (१९५०), 'देहमन' (१९५२), 'दूरभाषिणी' (१९५२), 'चेनामहल' (१९५३), 'असवर्ण' (१९५४), 'उपनगर' (१९६२), 'सेतुबंधन' (१९६४), 'सूर्यसाक्षी' (१९६५) अशो कादंबऱ्यो बरोवन खूब नामना जोडली. अशा ह्या नामनेच्या कादंबरी कारांभितर बिमल मित्र आनी मणिशंकर मुखर्जी 'शंकर' हे श्रेश्ठ थरतात. ज्योतिरिंद्र नंदी आनी सुनील गंगोपाध्याय ह्या कादंबरीकारांचोय मुजरत उल्लेख करपाक जाय. हेर कादंबरीकारांभितर देवेश राय, मती नंदी, श्यामल गंगोपाध्याय, शीर्षेंदू मुखर्जी, संदीपन चॅटर्जी, अतीन बॅनर्जी, सैय्यद मुस्तफा सिराज, दिव्येंदू पालित, गुलाम कुददुस, रमापद चौधुरी, आशुतोष मुखर्जी, हरिनारायण चॅटर्जी, बिमल कर, संतोषकुमार घोष, अब्दुल जब्बार, गौरकिशोर घोष, मैत्रेयी देवी, शक्तिपद राजगुरू हांचोय मुजूरत उल्लेख करप गरजेचो.

लघुकथेकडेन पळयल्यार नव्या लेखकांनी वास्तवतेचेर चड भर दिलो. अशा ह्या लेखकांभितर संतोषकुमार घोष, गौरकिशोर घोष, सत्यप्रिय घोष, सुधीरंजन मुखर्जी, प्रभात देवसरकार, शचींद्रनाथ बॅनर्जी, सुशील जाना, ननी भौमिक, बारींद्रनाथ दाश, अमल दासगुप्त, नवेंदू घोष, स्वराज बॅनर्जी, महाश्वेतादेवी, प्रतिभा बसू हांचीं नांवां घेवचीं पडटलीं. उपरांतचे पिळगेंतल्या लघुकथाकारांनी शीर्षेंदू मुखर्जी, दिव्येंदू पालित, मती नंदी, सुनील गंगोपाध्याय, श्यामल गंगोपाध्याय, बरेन गंगोपाध्याय, अमियभूषण मजुमदार, अतीन बॅनर्जी, दीपेंद्रनाथ बॅनर्जी, संदीपन चॅटर्जी, शंकर चॅटर्जी, सैय्यद मुस्तफा सिराज, प्रफुल्ल राय, कविता सिंह, आनंद बागची, लोकनाथ भट्टाचार्य, ज्योतिर्मय गांगुली, समीर रक्षित, समरेश मजुमदार, फणीभूषण आचार्य, बलराम बसाक अशी व्हड नामावळ सांगपाक मेळटा.

कवितेच्या क्षेत्रांत, पोरणे पिळगेंतल्या मातब्बर कवींचो आदर्शवाद, नितीवाद, धुकलून उडोवन नव्या कवींनी विशुध्द भावसौंदर्याचो ध्यास धरलो. सुनील गंगोपाध्याय हाणें १९५४ वर्सा प्रस्थापितांक विरोध करपी 'कृत्तिवास' म्हयनाळें सुरू केलें आनी कलावंतांक एके नवे जापसालदारकेची जाणविकाय करून दिली. महाविद्यालयांत शिकपी ह्या तरणाट्या कवीन सुरवेक फणीभूषण आचार्य, मोहित चॅटर्जी, शिवशंभू पाल, दीपक मजुमदार, आनंद बागची आनी उपरांतच्या काळांत शंख घोष, अलोकरंजन दासगुप्त, अरविंद गुह, शरदकुमार मुखर्जी, उत्पलकुमार बसू ह्या तरणाट्या कवींच्या सांगातान एक नवें बीं घालें. गद्यलिखाण करपी शक्ती चॅटर्जी होय 'कृत्तिवास' पंगडाक येवन मेळ्ळो. त्या काळांतल्या बंगाली कवितेच्या क्षेत्रांत ह्या कृत्तिवास पंगडाचें कार्य खूब म्हत्वाचें आसा. नरेंद्र चक्रवर्ती, अरुण मित्र, अरुणकुमार सरकार, आलोक सरकार, तारापद राय, शरद्‌कुमार मुखर्जी, कविता सिंह, शंकर चॅटर्जी, कालीकृष्ण गुह, शमसुल हक, समशीर

अन्वर, विजया मुखर्जी, सुभाष घोषाल, सुव्रत रुद्र, नवनीता देव-सेन, देवारती मिश्र, देवाशीष बॅनर्जी, प्रदीपचंद्र बसू, तपन बॅनर्जी, दिलीप दाशगुप्त, लोकनाथ भट्टाचार्य, शुभरंजन दाशगुप्त, देवीप्रसाद बॅनर्जी, पवित्र मुखर्जी, वीरेंद्र चॅटर्जी अशीं ह्या क्षेत्रांतलीं कितलींशींच नांवां सांगूक येतात. कवितेच्या क्षेत्रांतलो आनीक एक उद्रेक म्हळयार साम्यवादी विचारांचो काव्यपंथ. विष्णू दे, सुभाष मुखर्जी, शंख घोष, अचलकुमार बसू, सुकांत भट्टाचार्य अशा कितल्याशाच कवींचे रचनेंत मार्क्सवादाचो स्पश्ट प्रभाव दिसता. बंगालचे भावजिणेंत कवितेक, सगळयांत उंचेली सुवात आसा. १९५५ वर्सा साहित्य अकादेमीन वर्सुकी पुरस्कार सुरू केले तेन्नासावन १९७७ मेरेन णव बंगाली काव्यझेल्यांक अकादेमी भोवमान फावो जाला.

फाटल्या वर्सांनी बंगाली रंगमाचयेन खूब बरी उदरगत सादल्या. इब्सेन, बेकेट योनेस्कू, आन्वी ह्या नामनेच्या विदेशी नाटककारांच्या गाजिल्ल्या नाट्यकृतींचे बंगालींत अणकार जावन तांचे प्रयोगूय जातात. पूण रवींद्रनाथांच्या नाट्यकृतींइतल्यो श्रेश्ठ खूब उण्यो आसात. स्वातंत्र्य आंदोलनांतल्यान निर्माण जाल्ल्या कलापथकांनी भारतीय नणनाट्यसंघ (इंडियन पीपल्स थिएटर ॲसोसिएशन) हे चळवळीक जल्म दिलो. मनोरंजन भट्टाचार्य, शंभू मित्र, गंगापद बसू हाणीं 'बहुरुपी' नांवाचे नाट्यसंस्थेची स्थापणूक केली. हे संस्थेचें, बिजन भट्टाचार्य हाचें 'नवान्न' हें पयलें नाटक. उपरांत तुलसीदास लाहिडी हाचीं दुःखीर ईमान, छेडा तार, उलूखागडा, पथिक, बांगलार माटी हीं नाटकां; दिगिंद्र बॅनर्जी हाचीं तरंग, वास्तुमिटा, भोकाबिला, अंतराल हीं नाटकां; सलिल सेन हाचीं नूतन यहुदी, मौचोर, डाऊन ट्रेन हीं नावाजिल्लीं नाटकां. 'धनंजय बैरागी' ह्या टोपणनांवान बरोवपी तरुण राय, शंभू मित्र आनी उत्पल दत्त ह्या तीग जाणांनी आर्विल्ले बंगाली रंगमाचयेच्या इतिहासांत नाटककार, नट, दिग्दर्शक, निर्माते, म्हणून मोलादीक वावर केला. बर्टोल्ट ब्रॅख्त, शॉन ओकेसी, एलियट, ओनील, टेनेसी विल्यम्स, झां पॉल सार्त्र, काम्यू, पिरांदेल्लो, गार्सीआ लॉर्का ह्या अस्तंती नाटककारांच्या कृतींच्या अणकारांक लागुन तरणाट्या नाटककारांक नाटकाचे नवे धडे मेळळे. बादल सरकार मोहित चॅटर्जी हांणी बंगाली नाटकांनी म्हत्वाची कामगिरी केल्या. बादल सरकाराची सारा रात्तिर, बडो पिशिमा, रामश्याम जदु, एवम् इंद्रजित, बल्लभपुरेर रूपकथा, प्रलाप, बाकी इतिहास, पगला घोडा, त्रिंशे शताब्दी हीं नाटकां खूब गाजलीं. तशेंच स्पार्टाकुस, मिछिल, सगीना महतो, अबु हसन, भोमा, सुखपाठ्य भारतेर इतिहास हीं ताचीं हालीचीं नामनेचीं प्रयोगीक नाटकां.

निबंधक्षेत्रांत रवींद्रनाथ, प्रथम चौधुरी हांचे उपरांत अतुलचंद्र गुप्त हाचें नांव येता. सुधींद्रनाथ दत्त, बुध्ददेव बसू, विष्णू डे ह्या कवींनी निबंध आनी समिक्षा-लिखाण केलां. धूर्जटीप्रसाद मुखर्जी, शिवनारायण राय, अन्नदाशंकर राय हांचे विचारीक निबंदूय उल्लेख करपासारके आसात. तशेंच सुनीतिकुमार चॅटर्जी, सुकुमार सेन, शशिभूषण दासगुप्त, नीहाररंजन राय, श्रीकुमार बॅनर्जी, देवीप्रसाद चॅटर्जी, प्रथमनाथ बिशी, बिनय घोष, असितकुमार बॅनर्जी, चित्तरंजन बॅनर्जी ह्या साहित्यिकांनी खूब प्रमाणांत विचारीक निबंदनिर्मिती केल्या. बंगालींत निबंदाक 'प्रबंध' म्हण्टात. खबरांपत्रांच्या स्तंभ लिखाणाक लागून सुनील गांगुली 'नीललोहित', गौरकिशोर घोष 'रूपदर्शी', संतोषकुमार घोष, सागरमय घोष, हांकांय खूब नामना मेळळया. राणी चंदा हिची रवींद्रनाथ, पूर्णकुंभ, जनाना फाटक, आलापचारी हीं नामनेचीं पुस्तकां. सैयद मुजतबा अली हाचो 'देशेविदेशे' हो ग्रंथ तशेंच चारुचंद्र भट्टाचार्य 'जरासंध' हाचो 'लोहकपाट', अन्नदाकिशोर मुनशी हाचो 'डाक्तरेर डायरी', धीरज भट्टाचार्य हाचें 'जखन पुलिस छिलाम' हीं ह्या क्षेत्रातलीं नामनेचीं पुस्तकां.

विनोदी लेखक म्हणून शिवराम चक्रवर्ती, अजितकृष्ण बसू, परिमल गोस्वामी, कुमारेश घोष, हिमानीश गोस्वामी हांच्या नावांचो उल्लेख करप जाता.

**भुरग्यांचें साहित्य :** अभ्यासकांनी भुरग्यांच्या साहित्याचीं चार मुखेल पर्वां मानल्यांत. १) पुविल्लें पर्व २) विद्यासागर पर्व ३) रवींद्र पर्व ४) आर्विल्लें पर्व.

पुर्विल्ल्या पर्वांत चडशो इसापाच्यो नितीकथा तशेंच 'पंचतंत्रा' सारकिल्या संस्कृत काणयांचे अणकार येतात. कलकत्त्यांत १८१७ वर्सा 'स्कूल बूक सोसायटी' ची स्थापणूक जाली आनी पाठ्यपुस्तकांच्या रुपान देशी तशेंच विदेशी कथांचें अणकारप सुरू जालें. मधुसूदन मुखर्जी हाणें १८५१ वर्सा स्थापणूक जाल्ल्या 'भाषानुवादक समाजांत सहसंपादक म्हणून काम करून भुरग्यांखातीर अणकारपी ह्या नात्यान खूब काम केलें. दुसऱ्या विद्यासागर पर्वांत इतिहास, विज्ञान, व्हड मनशांचीं चरित्रां हांचेर सादे-सोंपे बंगालींत साहित्य तयार जावंक लागलें. १९७८ वर्सा केशवचंद्र सेन हाणें भुरग्यांखातीर 'बालकबंधु' हें पंद्रशी नेमाळें सुरू केलें. उपरांत १८८४ वर्सा 'बालक' हें नेमाळें ठाकुर-वाडींत सुरू जालें. ह्याच पत्रकांतल्यान रवींद्रनाथान पयलीं भुरग्यांखातीर ल्हान ल्हान काणयो, नाटकां बरोवपाक सुरवात केली. अशींच अवनींद्रनाथ टागोर हाचें 'शकुंतला' (१८९५) आनी 'क्षीरेर पुतुल' हीं पुस्तकां आसात. तेन्नाच भुवनमोहन राय हाणें 'सखा ओ साथी' आनी आचार्य शिवनाथ शास्त्री हाणें 'मुकुल' (१८९५) हीं भुरग्यांचीं म्हयनाळीं सुरू केलीं. हेमेंद्रप्रसाद घोष हाचें 'आषाढ गल्प' (१९०१) आनी योगींद्रनाथ सरकार हाचें 'छबीर बई' (१९०२) हीं सामक्या ल्हान भुरग्यांखातीर बरयल्लीं चित्रांचीं पुस्तकां ओडलायणीं थरलीं. मनमोहन सेन हाचें 'खोकार दप्तर' (१९०२, दोन खंड), उपेंद्रकिशोर रायचौधुरी हाचें 'सेकालेर कथा' (१९०३), दक्षिणारंजन मित्रमजुमदार हाचें 'ठाकुरमार झुली' (१९०७) तशेंच अनुकूलचंद्र शास्त्री संपादित 'तोषिणी' (१९१०) हीं भुरग्यांखातीरचीं पुस्तकां उल्लेखनीय आसात.

१९१४ वर्सा उपेंद्रकिशोर रायचौधुरी हाचें 'संदेश' हें नेमाळें सुरू जालें आनी बंगाली भुरग्यांच्या साहित्याक चंवर आयलो. हाचेपयलीं आशुतोष मुखर्जी हाणें भुरग्यांखातीर 'भूत-पेन्ती' (१९०२) आनी 'राक्कसे-

काक्कसे' (१९०३) हीं पुस्तकां बरयल्लीं. (१९०२) वर्सा रवींद्रनाथाचो शिशु हो कवितांझेलो आनी उपरांत पांच वर्सांनी 'मुकुट' हें नाटक उजवाडा आयलें. बालक म्हयनाळ्याची संपादिका ज्ञानदानंदिनीदेवी हिचीं 'टाकडुमाडुम' (१९१०) आनी 'सात भाई चंपा' (१९१०) आनी उपेंद्र किशोर रायचौधुरी हाचें 'संदेश' हीं पुस्तकां उल्लेखनीय आसात.

१९१७ ते १९३३ मेरेन सुकुमार रायचौधरी हाणें 'संदेश' चें संपादन केलें. ह्या काळांत बालवाङमय लेखकांची एक म्हत्वाची नामावळ तयार जाली ती अशी-उपेंद्रकिशोर रायचौधुरी, सुकुमार रायचौधुरी, सुविनय राय, कुलदारंजन राय, सुखलता राव, लीला मजुमदार, पुण्यलता चक्रवर्ती, देवव्रत रायचौधुरी आनी हेर. 'संदेशां त उजवाडाक आयिल्ल्यो काणयो आनी कविता एकठांय करून सुकुमार रायचौधुरी हाची 'आबोल ताबोल' आनी 'ह-य-ब-र-ल' हीं पुस्तकां ताच्या मरणा उपरांत उजवाडा आयलीं.

सुधींद्रचंद्र सरकार हाणें 'मौचाक' (१९२१), आशुतोष हर हाणें 'शिशुसाथी' (१९२२) आनी निशिकांत सेन हाणें 'खोकासुकु' हीं नेमाळीं भुरग्यांखातीर सुरू केलीं. १९३० उपरांत रामधनु, साजि, मास-पयला, रंग-मशाल हीं नवीं नेमाळीं सुरू जालीं. ह्या नेमाळ्यांनी मनोरंजन भट्टाचार्य, विभूतिभूषण बॅनर्जी, प्रेमेंद्र मित्र, अचिन्त्यकुमार सेनगुप्त, शैलजानंद मुखर्जी, सरोजकुमार रायचौधुरी, नृपेंद्रकृष्ण चॅटर्जी, बुद्धदेव बसू शिवराम चक्रवर्ती, अखिल नियोगी, धीरेंद्रलाल धर, बिमलकुमार घोष 'मौमाछी', चारुचंद्र चक्रवर्ती, मोहनलाल गंगोपाध्याय, शैलबाला घोषजाया, क्षितींद्रनारायण भट्टाचार्य, लीला मजुमदार, मणींद्र दत्त, आशापूर्णदिवी, शशिभूषण दासगुप्त, खगेंद्रनाथ मित्र, बिशू मुखर्जी ह्या लेखक-लेखिकांनी लिखाण केलां.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांतल्या प्रबोधनाचे फाटभुंयेर बंगालींत कोशनिर्मितीचें कार्य सुरू जालें. राजा राधाकांत देव आनी कृष्णमोहन बॅनर्जी हे ह्या विशयांतले म्हालगडे आशिल्ले. राजा राधाकांत देव हाचो संस्कृत 'शब्दकल्पद्रुम' (१८२२-५८) हो आठ खंडांचो ग्रंथ म्हळयार शब्दकोश आनी ज्ञानकोश हांचो मेळ. उपरांत पंडित तारानाथ तर्कवाचस्पती हाणें अठरा वर्सां कश्ट घेवन पांच खंडांचो शब्दकोश तयार केलो. विल्यम कॅरीचो पूत फिलिक्स कॅरी हाणें १८१९ ते २१ ह्या काळांत 'विद्याहारावली' नांवाच्या कोशाची येवजण आंखली आनी 'व्यवच्छेदविद्या' ह्या नांवाचो पयलो खंड आनी 'स्मृतिशास्त्र' नांवाचो दुसरो खंड उजवाडायलो. ह्याच काळांतल्या कालीकृष्ण देव बहादुर हाणें संकलीत केल्लो 'संक्षिप्त सद्विद्यावलि' (१८३३) होय ग्रंथ म्हत्वाचो आसा. उपरांत कृष्णमोहन बॅनर्जी हाचो सतरा खंडांचो 'विद्याकल्पद्रुम' वा 'एनसायक्लोपीडिया बेंगालेनसिज (१८४६-५१) हो ग्रंथ उजवाडा आयलो. बंगाली विश्वकोशाच्या इतिहासांत नगेंद्रनाथ बसू हाणें संपादीत केल्लो 'विश्वकोश' हो आयजमेरेनचो एकूच पुराय ज्ञानकोश. वीस खंडांचो हो कोश १९११ वर्सा पुराय जालो.

स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत केंद्रीय सरकार आनी अस्तंत बंगाल सरकार हांच्या अर्थीक आदारान 'बंगीय साहित्य परिषद' हे संस्थेन १९५९ वर्सा 'भारतकोश' ह्या ग्रंथाची येवजण आंखली आनी १९६४, १९६६, १९६७, १९७० आनी १९७३ ह्या वर्सांनी पांच खंड उजवाडायले. सुशीलकुमार डे हाणें कोशाचो संपादक आनी मंडळाचो मुखेल म्हणून काम पळयलें. तशेंच सुनीतिकुमार चॅटर्जी, निर्मलकुमार बसू, रामगोपाल चॅटर्जी, शशिभूषण दासगुप्त, रमेशचंद्र मजुमदार, चिंताहरण चक्रवर्ती, गोपालचंद्र भट्टाचार्य, सजनीकांत दास हे संपादक मंडळाचेर आशिल्ले.

श्रीनरसिंहदास अग्रवाह हाणें दिल्ली विद्यापिठावतीन १९४८ वर्सासावन दर वर्सा श्रेश्ठ बंगाली ग्रंथाक 'नरसिंहदास बांगला पुरस्कार' दिवपाक सुरू केलो. 'रवींद्र पुरस्कार' हो प्रदेशीक स्वरुपाचो सन्मान अस्तंत बंगाल सरकारान १९५० वर्सासावन सुरू केलो, 'अमृत बझार पत्रिका', 'यू (जु) गांतर' ह्या खबरांपत्रावतीन दर वर्सा बऱ्या ललीत साहित्यग्रंथाक 'मतिलाल पुरस्कार' आनी दर वर्साच्या उत्कृश्ट संशोधन ग्रंथाक 'शिशिरकुमार पुरस्कार' हे दोन पुरस्कार दितात.

**साहित्य अकादेमी पुरस्कार** : १९५५ वर्सा केंद्रीय सरकाराचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार सुरू जालो. तेन्नासावन १९८० मेरेन हो पुरस्कार सुमार १६ बंगाली लेखकांक फावो जालो. उल्टोरथ नांवाच्या चलचित्रा विशींच्या नेमाळ्यावतीन दर वर्साच्या उत्कृश्ट कवितांझेल्याक 'उल्टोरथ पुरस्कार' हो भोवमान १९५७ वर्सासावन दितात. 'आनन्दबाजार', 'हिंदुस्थान स्टँडर्ड' आनी 'देश' ह्या तीन नेमाळ्यांवतीन दर वर्सा दोन उत्कृश्ट बंगाली ग्रंथांक 'प्रफुल्लकुमार स्मृति-पुरस्कार' आनी 'सुरेशचंद्र स्मृति-पुरस्कार' हे पुरस्कार १९५८ वर्सासावन दितात. 'मौचाक' ह्या नेमाळ्यावतीन 'मौचाक पुरस्कार' दर वर्सा भुरग्यांच्या साहित्यांतल्या उत्कृश्ट ग्रंथाक १९५८ वर्सासावन दितात. 'बेंगॉल पब्लिशर्स' ही नामनेची प्रकाशन संस्था अस्तंत बंगाला भायर रावपी लेखकांच्या उत्कृश्ट ग्रंथाक 'जय बांगला पुरस्कार' हो वर्सुकी पुरस्कार भेटयता. तशेंच 'निखिल बंग शिशुसाहित्य संमेलना'वतीन दर वर्सा उत्कृश्ट बालवाङमयकृतीक 'भुवनेश्वरी पदक'; 'प्राणतोष घटक स्मृति संस्करण समिती ' वतीन दर वर्साच्या उत्कृश्ट संशोधन ग्रंथाक प्राणतोष घटक स्मृतिपदक; सरोजकुमार रायचौधुरी हाचे यादीक दर वर्सा एका नव्या लेखकाच्या उत्कृश्ट पयल्या ग्रंथाक 'सरोजकुमार स्मृतिपदक', कवी जीवनानंद दास हाची बायल लावण्य दास हिणें आपल्या सर्गेस्त घोवाच्या नांवान सुरू केल्लो 'जीवनानंद दास पुरस्कार' हो दर वर्सा बांगलादेशांतल्या दोन उत्कृश्ट कवितांझेल्याक दितात.

'सारवान' नेमाळ्यावतीन दर वर्साच्या उत्कृश्ट काव्य झेल्याक 'पान्नालाल शील नक्षत्र पुरस्कार' दितात. तशेंच त्रिपुरा वाठारांतल्या बंगाली साहित्यिकांखातीर 'समकाल' आनी 'व्रतती' ह्या नेमाळ्यांवतीन दर वर्सा एक श्रेश्ठ बंगाली साहित्यकृतीक 'समकाल, व्रतती साहित्य पुरस्कार' दितात. कलकत्ता विद्यापिठावतीन दर वर्सा एके लेखिकेचे उत्कृश्ट साहित्यकृतीक 'लीला पुरस्कार' दितात.

**बंगाली साहित्यिकांक मेळिल्ले राष्ट्रीय/आंतरराष्ट्रीय पुरस्कार.**

| लेखक | साहित्यकृती | वर्स | पुरस्कार |
|---|---|---|---|
| रवींद्रनाथ टागोर | गीतांजली | १९१३ | नोबॅल |
| ताराशंकर बंदोपाध्याय | गणदेवता | १९६६ | ज्ञानपीठ |
| विष्णु डे | स्मृतिसत्ता भविष्यात् | १९७१ | ज्ञानपीठ |
| आशापूर्णादेवी | प्रथमी प्रतिश्रृती | १९७६ | ज्ञानपीठ |
| सुभाष मुखोपाध्याय | १९७१ ते १९८५ च्या काळांतल्या योगदानाखातीर | १९९१ | ज्ञानपीठ |

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** चित्रपट (बंगाली).

## बंच, रॅल्फ जॉन्सन :
(जल्म : ७ ऑगस्ट १९०४, डिट्रॉयट, मिशिगन; मरण : ९ डिसेंबर १९७१, न्यूयॉर्क).

आंतरराष्ट्रीय नामनेचो अमेरिकन राजनितीतज्ञ आनी शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो पयलो निग्रो मानकरी. भुरगेपणांतूच आवय-बापायक मरण आयिल्ल्यान रॅल्फ आनी ताची भयण हांचो आजयेन सांबाळ केलो.

विंगड विंगड कामां करून ताणें आपलें शिक्षण पुराय केलें. उपरांत शिश्यवृत्ती मेळोवन लॉस अँजेलीस हांगाच्या कॅलिफोर्निया विद्यापिठांतल्यान १९२७ वर्सा ताणें पदवी मेळयली. १९२८ ते १९४२ ह्या काळांत हार्वर्ड विद्यापिठांत काम करता आसतनाच, १९३४ वर्सा ताणें एम.ए.; पीएच्.डी. घेतली. मजगती १९३० वर्सा रूथ हॅरिस हे आपले विद्यार्थिनी वांगडा तो लग्न जालो.

१९५० वर्सा हार्वर्ड विद्यापिठांत, राजशास्त्र विद्याफांट्याचो अध्यक्ष म्हणून ताची नेमणूक जाली. पूण एकवटीत राश्ट्रांच्या कामांक लागून १९५२ वर्सा ताणें आपल्या ह्या अध्यक्षपदाचो राजिनामो दिलो.

१९३८ ते १९४० ह्या काळांत न्युयॉर्काच्या कार्नेगी कॉर्पोरेशनांत आसतना ताणें स्विडनी समाजशास्त्रज्ञ कार्ल गुन्नार मिर्दाल हाका अमेरिकेंतल्या वंशभेदाचे अडचणीवयल्या संशोधन कार्यांत मुखेल सहाय्यक म्हणून मोलादीक आदार केलो. उपरांत १९४४ वर्सा, बंच अमेरिकेच्या विदेश खात्यांत अधिकारी आशिल्लो.

एकवटीत राश्ट्रांची सनद करपाखातीर डंबार्टन ओक्स आनी सॅन फ्रॅन्सिस्कोंत परिशदांनी ताणें वांटो घेतलो. १९४७ वर्सा त्र्युग्वे ली हाचे विनवणेकलागून एकवटीत राश्ट्रांच्या सचिवालयांत तो विश्वस्त विभागाचो संचालक जालो. थंय ताचेर घुस्पागोंदळाच्या प्रकरणांची म्हत्वाची कामगिरी सोंपयली.

एकवटीत राश्ट्रांवतीन पॅलेस्टायनाचे फाळणेविशीं ताणें मध्यस्थी केली आनी ताचे येवजणेप्रमाण १९४८-४९ वर्सा अरब राश्ट्रां आनी इझ्रायल हांचेमदीं अप्रत्यक्ष रितीन उलोवणीं जावन शांततायेची कबलात जाली. ह्या ताच्या वावराक लागून ताका १९५० वर्साचो नोबॅल शांततायेचो पुरस्कार फावो जालो. एकवटीत राश्ट्रांचो सरचिटणीस डाग हामार्कशुल्ड हाचो सहाय्यक म्हणून ताणें काम केलें.

१९५६ वर्सा इजिप्त-इझ्रायल संघर्शाच्या वेळार तशेंच एकवटीत राश्ट्रांवतीन बेल्जियम काँगोंत सुवेवस्था आनी शांतताय राखपाखातीर १९६० वर्सा जो शांततायेचो पंगड धाडलो तो संघटीत करपाक बंच हाणें खाशेलो प्रतिनिधी ह्या नात्यान म्हत्वाचें कार्य केलें. उपरांत अवर सचीव म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९६४ वर्सा असलोच शांततायेचो पंगड धाडपाक ताणें ऊ थांट हाका आदार केलो.

बंच हाका खूब मान-भोवमान फावो जाल्यात. ताच्या कार्याखातीर अध्यक्ष जॉन कॅनॅडी हाणें ताका १९६३ वर्सा स्वातंत्र्य-पदक दिल्लें. ताच्या 'वर्ल्ड व्यू ऑफ रेस' (१९३६) ह्या पुस्तकाक खूब नामना मेळ्ळी.

बंच हाका अमेरिकन समाजांतलो वर्णभेद मान्य नाशिल्ल्यान १९६५ ताणें नागरी हक्क मोहिमेंत वांटो घेतलो. भलायकी इबाडिल्ल्यान १९७० वर्सा ताणें आपल्या पदाचो राजिनामो दिलो.

- कों. वि. सं. मं.

## बंजारा :
भारतभर पातळिल्ली एक हेडगी जमात. महाराष्ट्र, म्हैसूर, चेन्नई, राजस्थान, आंध्र प्रदेश, ओरिसा, कर्नाटक, तमिळनाडू, पंजाब, हरयाणा, बिहार, मध्य प्रदेश ह्या वाठारांनी बंजारा लोकांची वस्ती चड आसा. ह्या लोकांक बंजारी, वंजारी, बनजारा, ब्रिंजारी, लमाण, लमाणी, लंबाडी, लंबाडा, लंबाडोडू, सुकलीर, मथुरा, न्हावी, शिंगवाले, चरण अशीं खूब नांवां आसात.



बंजारा बायल

तांच्या मूळ स्थानाविशीं खास म्हायती मेळना. औरंगजेबाच्या काळांत, मुसलमानांक रसद पावोवपाच्या निमतान ते राजस्थानांतल्यान• दक्षिणेंत आयले आनी थंयच स्थायीक जाले. ते स्वताक राजपूत कुळांतल्या राणा प्रतापाचे वंशज समजतात.

संस्कृत शब्द 'वाणिज्य' म्हळयार वेपार ह्या उतरावयल्यान बनज

वा वनज हें उतर आयलें आनी हाचेवयल्यान ह्या लोकांक बंजारा वा बनजारा हें नांव मेळ्ळें अशें म्हण्टात.

बंजारा लोक 'गोलामटी' ही बोलीभास उलयतात. तांची ही भास मारवाडी भाशेभाशेन आसून राजस्थानी, गुजराती आनी हिंदू भाशांचो प्रभाव तिचेर चड आसा. बंजारा लोक ज्या वाठारांत रावतात, थंयची भासूय ते उलयतात.

बंजारा बायलो रुपान सोबीत आसतात. त्यो तांबड्या वा निळ्या रंगाचो घागरो घालतात. तसल्याच रंगाची हारशे, मणी लायिल्ली ओडणी घेतात आनी भरतकाम केल्ली भडक रंगाची चोळी घालतात. हातांत कोंपरामेरेन हस्तिदंतांचीं, शिंगांचीं वा पितूळचीं कांकणां घालतात आनी दंडांत वाकी घालतात. नाकांत वाटकुळी नथ आनी पांयांत वाळे आनी पितूळचे घुंगूर घालतात. तरांतरांचीं फुलां माळटात. बंजारा दादले ऊंच, गोरे वा सावळ्या वर्णाचे, काटक आनी बळिश्ट आसतात. ते धोंतर न्हेसून सदरो घालतात आनी माथ्याक धवें वा रंगीत मुंडाशें बांदतात.

बंजारा लोकांभितर हिंदू, शीख, जैन आनी मुसलमान ह्या धर्मांचे लोक आसात. तशेंच प्रांताप्रमाण बंजाऱ्यांचे मराठा, कानडी, गुजराती अशेय भेद आसात. बिहार आनी ओरिसा ह्या राज्यांनी तांकां आदिवासी म्हणून मान्यताय मेळूंक ना. हेर सुवातींनी तांकां अनुसुचीत जमातींनी घेतल्यात. महाराष्ट्र राज्यांत तांकां विमुक्त जातीचो पांवडो दिला. आंध्र प्रदेशांत तांकां सुगाळी, दिल्लींत शिरकिवन, राजस्थान आनी केरळांत गवरिया तशेंच गुजरात राज्यांत चारण म्हणून वळखतात. एन.एफ. कंबलीज हाच्या मतान बंजाऱ्यांच्यो चार मुखेल पोटजाती आसात त्यो अशो- चारण, मथुरिया, लमाण आनी धाडी. तांचेभितर राठोड, परमार वा पवार, चाहमान वा चौहान, जाडोत वा जाधव वा मुखिया अशो चार कुळी आसात.

पावसाच्या दिसांनी हे लोक ल्हान खोंपी बांदतात. हे वस्तीक 'कुडी' वा 'छावणी' म्हण्टात. दसरो जातकच ते दुसरे सुवातेर तात्पुरत्यो वसणुको उबारतात. तांकां 'तांडा' अशें म्हण्टात. प्रवासांत हे लोक पाले उबारतात. दरेका तांड्याचो नाईक नांवाचो मुखेल आसता. तो अडीअडचणींच्या वेळार लोकांक आदार दिवन मार्गदर्शन करता. तांड्याचे पंचायतीचोय तो अध्यक्ष आसता.

तुळजाभवानी, शंकर, बालाजी हीं बंजाऱ्यांचीं कुलदैवतां आसात. तशेंच, राम, मारुती, अंबाबाई, मरीअम्म, महाकाली, सती, शीतलादेवी, कालिका, आसावरी, बंजारीदेवी सेवाभाया आनी मिठुभुकिया ह्या दैवतांकूय ते भजतात. पितरांक देवासमान मानून दर वर्सा तांच्या नांवान बकरो बळी दितात. बंजाऱ्यांचो भुतांखेतांचेर खूब विश्वास आसा. हे लोक होळी, दसरो आनी गोकुळाश्टम हे सण मनयतात.

बंजारा लोकांभितर एकाच कुळांत लग्नां जायनात. दक्षिणेंतल्या चलयांचीं लग्नां ल्हानपणांतूच जातात. चारण आनी लमाण ह्या पोटजातींनी चलयांचीं पिरायेंत येतकच लग्नां करतात. कानडी मुलखांतल्या बंजाऱ्यांचीं लग्नां उसरां जातात, पूण तांचेमदल्यो चडशो चलयो जल्मभर आंकवार रावतात. सादारणपणान नायकाची परवानगी घेवन सोयरिकेचें उलोवणें जाता. उपरांत साकरपुडो वा 'गूळ' नांवाचो एक विधी जाता. तेन्ना एक मनीस उबो रावन एक दोहा म्हणटा.

बंजाऱ्यांच्या विंगड विंगड पोटजातींतल्या लग्नसुवाळ्यांनी चड-उण्या प्रमाणांत फरक आसता.

बायल गुरवार आसतना घोवान, प्रेताक अग्नी दिवप ना वा कसलेंच धाडसाचें काम करचें न्हय असो ह्या लोकांमदीं नेम आसा. स्थायीक जाल्ले लोक बाळंत जावपी बायलेखातीर वेगळी खोंप बांदतात. पांच दीस सुवेर पाळटात. पांचव्या दिसा सटीची पुजा करतात. पांच भुरगीं आनी बाळंतीण हांच्या गळ्यांत आनी पायांनी गंवाच्यो माळो बांदतात. खोंपीपसून थोड्या पयसुल्ल्या जाग्यार होम करतात आनी गंव उडयत कांय बायलो बाळंतिणीक होमामेरेन व्हरतात. सव्या दिसा बांळतीण कुडींतल्या सगळ्या भुरग्यांचे पांय धुता आनी तांकां जेवण वाडटा.

मेल्लो मनीस लग्न जाल्लो आसल्यार ताचें मडें लासतात आनी लग्न जावंक नाशिल्ल्यांचीं मडीं कसलोच विधी करिनासतना पुरतात. तीन दीस सुतक पाळटात. बारव्या दिसा सोयऱ्या-धायऱ्यांक जेवण घालतात. बंजारा लोकांभितर रडपाचें विधीपुर्वक प्रदर्शन करतात.

बंजारा लोक हे चडशे वेपारी. तेचपरी रानदोंगरार मेळिल्ले मोलादीक खडे, म्होंव, गोम, एकठांय करून ते विकतात. तातूंतले चडशे लोक शेतकाम आनी मजुरी करतात.

कांय बंजारी ढाडी (भाट) आसून ते संगिताचे जाणकार आसात. पुर्वजांची तुस्त करपी पदां म्हण्टात. तांकां नाच खूब आवडटा. नगारा, सोरोप आनी मोर हे नृत्यप्रकार तांचेमदीं चड लोकप्रिय आसात. तशेंच टांगेरो आनी ऊडनो हे नाच चड नामनेचे आसात. बंजाऱ्यांचे लोकांनाच आनी लोककथा नांवाजिल्ल्यो आसून ते भवानीक उद्देशून पदां म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**बंड :** खंयचीय प्रस्थापित सत्ता वा समाजीक, अर्थीक वेवस्था उमथून उडोवपाखातीर केल्लो रासवळ उठाव. अमेरिकेंत बंड हें उतर फुटीरपणाक समानार्थी अशें वापरतात. चालंत समाजीक आनी धर्मीक चाली-रिती, नेमांक तशेंच दायजान चलून आयिल्ल्या विचारांक उकतो आनी स्पश्ट विरोध करप अशा अर्थानूय वापरतात. इंग्लिशींत बंड ह्या उतराक 'रिबेलीयन' (Rebellion) अशें म्हण्टात. सैनिकांनी केल्ल्या आज्ञाभंगाकूय बंड म्हण्टात.

कौटिल्य, ॲरिस्टॉटल, प्लेटो आनी हेर जाणकारांनी बंड किद्‌याखातीर जाता हाचेर विचार मांडल्यात. व्यक्ती, समाज आनी राज्य हांचेमदलो संबंद इबाडटकच बंड जाता, अशें पुर्विल्ल्या विचारवंतांचें मत. राष्ट्रवादी

विचारवंतांच्या मतान राश्ट्रांक स्वताचो निर्णय घेवपाक मेळनाशिल्ल्यान तांचें लोकशायी अधिकारांचेर दडपण येता, तेन्ना बंड जाता. भांडवलशाय समाजांत भाडंवलदारवर्ग कामगारांचें शोशण करून घेवन आपली सत्ता गाजयता. ताका लागून बंड जाता, अशें कार्ल मार्क्स हाचें मत. समाज बदलपाखातीर क्रांतीची गरज आसता. आदीम साम्यवादासावन भांडवलशायेमेरेन समाजाची उदरगत जाली. तातूंत गुलामगिरी आनी सरंजामशाय हे मदले पांवडे आशिल्ले. दर खेपे नवी पद्दत क्रांतींतल्यान मुखार आयली आनी क्रांती ही बऱ्याच बंडांची परिणीती जावन आसा, अशें मार्क्सवादाचें समाजविश्लेशण आसा.

खूब काळमेरेन चलिल्ल्या झुजाची हार, लुकसाण हाका लागून सैनिकांच्या मनाचो धीर उणावता आनी बंडाक फावोशें वातावरण तयार जाता. देखीक, १९७९ वर्सा इराणांत सैन्यान बंड करून आयातोल्ला खोमेनी हाका फाटबळ दिलें. कांय फावट बंड करपाक सैन्याक, भायल्या शक्तींकडल्यानूय उर्बा मेळटा, जाल्यार केन्नाकेन्नाय राश्ट्रांभितरल्या शक्ती क्रांतीचें पयलें पावल म्हणून बंडाचें आवाहन करतात. हाकाच लागून विएतनाम, कोरिया, सायप्रस ह्या देशांनी संघर्श निर्माण जाले, अशें समाजशास्त्रज्ञांचें मत आसा.

केन्नाकेन्नाय वैयक्तीक सुवार्थाखातीर कोणूय प्रभावी व्यक्ती हेर सैनिकांक बंडाक प्रवृत्त करता.

इ. स. पयलीं पुर्विल्ल्या रोमांत गुलामांनी स्पार्टाकसाच्या फुडारपणाखाल प्रस्थापीत रोमन नागरिकांआड बंड केलें. मध्ययुगांत शेतकामत्यांनी जमीनदारांआड बंडां केल्लीं.

सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांनी युरोपांत राजकीय बंड जालें. १६८८-१६८९ ह्या काळांत इंग्लंडांत आनी १७७६ वर्सा अमेरिकेंत राजकीय बंड जालें. अठराव्या शेंकड्याउपरांत जागृतायेक लागून चड बंडां जावंक लागलीं. एकुणिसाव्या शेंकड्यासावन सक्तीचे लश्करभरतेक लागून सैनीक भाड्याच्या सैनिकाभाशेन वागपाक लागले. तांचेमदली शिस्त आनी निश्ठा उणी जायत गेल्ल्यान परकी सत्ता आनी क्रांतीकारक गट हांचेमदल्या कोणाकूय ते केन्ना वचून मेळत हाची शाश्वती उणी जायत गेली.

राजसत्तेच्या हातांत शस्त्रां आशिल्ल्यान बंड जैतवंत जावंक पावना. बंडाचें कारण आनी हेत मर्यादीत आसता. तें राजकीय स्वरुपाचें आसताच अशें ना. सत्ता हातांत आशिल्ल्यांक तें चिड्डून उडोवप सोंपें आसता. इतिहासांत कांय व्हड प्रमाणांत केल्लें बंड जैतवंत जालें जाल्यार ताका क्रांती म्हळां, कारण त्या बंडाच्या उठावाउपरांत राजकीय, समाजीक जिणेंत म्हत्वाचे बदल जातात. लोकशाय राजवेवस्था समाजाची समस्या सोडोवंक शकली जाल्यार बंडाची शक्यताय उणी आसता, पूण हुकूमशायेंत, राजेशायेंत वा लश्करशायेंत बंडाची शक्यताय चड आसता.

एकदां बंड पेट्टकच बंडखोर कितें करीत हें ते खास परिस्थितीचेर आदारून आसता. कांय फावट तांच्यो मागण्यो पुराय करतले अशें आश्वासन दितात. कांय फावट मागण्यो चिड्डितात आनी बंड मोडून काडटात. खूबशीं बंडां दहशतवाद जल्माक घालता.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** दहशतवाद

**बंदखण :** ख्यास्त म्हणून गुन्यांवकाराखातीर केल्ल्या, सक्तिच्या आलाशिऱ्याची वेवस्था. कायद्यान मनशाक ताणें केल्ल्या गुन्यांवाची ख्यास्त म्हणून ताका दंड घालप जाता. मृत्यूदंडाची ख्यास्त खुना सारकिल्या गुन्यांवाखातीर दिवप जाता जाल्यार, चोरयेमारये सारकिल्या आनी राजकीय गुन्यांवाखातीर द्रव्यदंड, आजल्म वा अमक्या वर्सांखातीर कायदो बंदखणीची ख्यास्त फर्मायता. ख्यास्त दिले उपरांत थरयल्ल्या काळामेरेन गुन्यांवकाराक दवरपाखातीर जी सरकारी आलाशिऱ्याची वेवस्था आसता तिका बंदखण अशें म्हण्टात.

अशी वेगळ्या आलाशिऱ्याची वेवस्था करपा फाटल्यान मुखेल अशे तीन हेत आसतात. १) गुन्यांवकाराक समाजा पसून पयस दवरून समाजाची राखण करप २) गुन्यांवकाराक सुदारपाची संद दिवप आनी ३) थरावीक काळामेरेन गुन्यांवकाराक सक्तिचो एकांतवास अणभवूंक लावप.

भारतांत महाभारताच्या काळासावन बंदखणीचो उल्लेख मेळटा. कौटिलीय अर्थशास्त्रांत, द्रव्यदंड भरूंक शकना असल्या गुन्यांवकारांक बंधनागारांत दवरचो असो आदेश आसा.

सुनावणी जावंचे पयलींच्या काळांत गुन्यावकारांक बंदिस्त दवरपाखातीर, इंग्लंडांत बाराव्या शेंकड्यासावन बंदखणीचो उपेग केला. सोळाव्या शेंकड्यांत इंग्लंड आनी युरोपीय देशांनी बंदखणीं तशेंच सुदारघरांचोय उपेग जावंक लागलो. हातूंतली लंडनची ब्रायडवॅल बंदखण (१५५३), ॲमस्टर डम Amsterdam (१५०३), रोम (१७०४) आनी गेंट सुदारघर (१७७५) हीं नामनेचीं आसात. पूण अशे तरेच्या सुदारघरांनी नितळसाण वा हेर कसल्योच सवलती नाशिल्ल्यो.

दर एका गुन्यांवकाराक हेरांपसून वेगळो आनी एकांतवासांत दवरून ताचेकडल्यान खूबशीं कश्टाचीं कामां करून घेवप, ही अठराव्या शेंकड्यांतली गुन्यांवकारांविशींची भुमिका आशिल्ली. एकांतवासांत दवरिल्ल्यान विचार करपाक मेळटलो, ताका लागून मनस्ताप जावन ताचेभितर सुदारणा जातली असो ताचेफाटल्यान विचार आशिल्लो. अठराव्या शेंकड्याचे अखेरेक बेंथॅम जेरेमी हाणें अशें विचारसरणेची येवजण मांडली आनी देडशें वर्सांउपरांत अमेरिकेंतल्या इलिनॉय राज्यांत अशे तरेची बंदखण बांदली. ही बंदखण वाटकुळ्या आकाराची आशिल्ली. तातूंत एकामेकांक तेकून पूण स्वतंत्र आनी बंदिस्त अशो गुन्यांवकारांच्यो कुडी आसात. बंदखणीचे मदीं उंचेले सुवातेर पारेकार आसता.

अशी ही एकांतवासाची पद्दत एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक पेनसिल्वेनियांत सुरू जाली. हे पद्दतीक 'पेनसिल्वेनिया सिस्टिम' अशेंय म्हण्टात. ह्याच काळांत ऑबर्नांत मौनपद्दत (Silent System) ही दुसरी पद्दत सुरू जाली. कैद्यांचेर पुराय एकांतवास घालिनासतना दीसभर तांकां हेरांकडेन उलयनासतना सगळयांच्या सांगातान काम करपाक लावप आनी रातचो परतून एकलोच दवरप. हाका लागून हे पद्दतीक मौन पद्दत अशें म्हण्टात. उपरांत १८४० वर्साच्या अदमासाक तिसरी एक पद्दत ऑस्ट्रेलियाचे उदेंतेक नॉरफॉक जुंव्याचेर सुरू जाली. तिका गूण पद्दत वा गुणांक पद्दत (Mark System) अशें म्हण्टात. गुन्यांवकाराची वागणूक बरी आनी शिस्तीची आसल्यार, ताका फर्मायल्ले ख्यास्तीचो काळ उणो करून ताची बेगीन सुटका जावंची हो हे पद्दतीचो हेत. ताका लागून गुन्यांवकाराची वागणूक सुदारूं येता अशी अपेक्षा आसता. ताच्या गुन्यांवाक अणसरून, ताचे बरे-वायट वागणुकीन कांय गूण ताच्या नांवान जमा वा उणे करतात आनी ते प्रमाण ताचे ख्यास्तीच्या काळांत वाड वा कपात करतात.

बंदखणींत आयिल्लो गुन्यांवकार ख्यास्त, भोगतकच भायर वतना तो योग्य रितीन समाजीकृत जावन, समाजाकडेन एकरूप जावन जबाबदारेन स्वताची समाजीक सुवात मेळोवपाक पात्र थरचो आनी तेखातीर बंदखणींत आसतना ताचेर योग्य ते संस्कार जावंचे अशें हालींच्या काळांत मानतात. ते प्रमाण बंदखणींतल्या बंद्यांचेर तशे संस्कार करपाची वेवस्थाय सुरू जाल्या. अल्पवयीन बंद्यांखातीर सादारण बंदखणी सुवातेर, तांकां सुदारघरांत दवरप जाता. हे नितीक अणसरून गुन्यांवकाराविशींचीं कांय मुखेल धोरणां आपणायल्यांत तीं अशीं- १) ख्यास्त दिल्ले मुजतींत सूट दिवन कैदी भायल्या समाजांत कसो वागणूक करता हाचेर नदर दवरप. मदीं मदीं ताका घरा वा बंदखणीभायर कसल्याय कामाखातीर वचपाक दिवप आनी ताचे वागणुकीची परिक्षा घेवप २) सगळ्या गुन्यावकारांक एकाच मापांत मेजिनासतना दरेकाचो पयलींचो इतिहास आनी व्यक्तिमत्व मतींत घेवन ते प्रमाण तांचेर उपाय येवजप ३) कैद्यांक समाजापसून सामको वेगळो दवरीनासतना पत्रवेव्हार, भेटी, चर्चासत्र, प्रशिक्षण, करमणुकीच्यो कार्यावळी करून तांच्या घरच्या लोकांकडेन आनी हेर नागरिकांकडेन तांचो संबंद वाडोवप. ४) बंदखणींतल्या कैद्यांचो एक स्वतंत्र असो गट करून, बंदखणींतले भितरले वेवस्थेचीं सुत्रां तांच्या हातांत सोंपोवन तांचेर पुराय जापसालदारकी घालप. ५) बंदखणींतल्या कैद्यांक कामधंदो शिकोवन वा जाणा आशिल्लें काम दिवन तांकां थरावीक दीसवडो दिवप. ह्या सुदारणावादी धोरणाची गरज म्हणून, बंदखणींतलो अधिकारी वर्ग हो वेवस्थापन, वखदां, मानसशास्त्र, समाजशास्त्र ह्या विशयांनी प्रशिक्षित आसचो अशें मान्य केलां.

भारतांतली बंदखणींची वेवस्था राज्य सरकाराचे कक्षेंतली आसून ती १८९४ च्या प्रिझन्स ॲक्ट ह्या कायद्याखाल जाल्या. उपरांत रिफॉर्मेटरी स्कुल्स ॲक्ट (१८९७), प्रिझनर्स ॲक्ट (१९००), आयडेंटिफिकेशन ऑफ प्रिझनर्स ॲक्ट (१९२०), एक्सचेंज ऑफ प्रिझनर्स ॲक्ट (१९४८), ट्रान्सफर ऑफ प्रिझनर्स ॲक्ट (१९५०) आनी प्रिझनर्स (अॅटेंडन्स इन कोर्टस्) ॲक्ट (१९५५) ह्या कायद्यांनी विंगड विंगड तजविजो केल्यो. १९६० वर्सा केंद्रीय सुदारसेवा खात्यान आदर्श बंदखणीची नेम पुस्तिका मंजूर केली आनी ही पुस्तिका १९५७ वर्सा नेमणूक केल्ले अखिल भारतीय बंदखण समितीन तयार केली. तिच्याच आदाराचेर राज्य सरकारान कैद्यांक दिवपाचे वागणुकेविशीं नेम करपी विधेयकां मंजूर केल्यांत.

सादारणपणान व्हड राज्यांनी दरेका जिल्ह्याक एक मध्यवर्ती जिल्हो बंदखण आसून दोन वर्सांपरस चड ख्यास्त जाल्ल्या आनी कुशळ गुन्यांवकारांखातीर राज्य मध्यवर्ती अशी बंदखण आसता. जिल्हो बंदखणीच्या फाटल्यान चड करून म्हालांनी उप-बंदखणीं आसतात. तात्पुरती वेवस्था म्हणून, गुन्यांव प्रमाण जावंक नाशिल्ल्या कैद्यांखातीर, पोलीस कोठयेचो बंदखण म्हूण उपेग करप जाता.

बंदखण म्हानिरीक्षक हो अधिकारी राज्यांतल्या सगळ्या बंदखणींचें वेवस्थापन पळेंयता. ताच्या आदाराक बंदखण उप म्हानिरीक्षक, स्वीय सहाय्यक, बंदखण उद्देग अधिक्षक आनी हेर अधिकारी आसतात. जिल्हो वा केंद्र बंदखणीचो अधिक्षक हो मुखेल आसता. ताच्या हाताखाल बंदोबस्त करपाखातीर उप अधिक्षक, बंदखण अधिकारी, सुभेदार, जमादार आनी कार्यालयाच्या कामाखातीर लिपीक आसतात. वखदां आनी भलायकेखातीर वैज, दाई हांचो प्रशिक्षीत वर्ग आसता. मुकादम आनी पारेकार म्हणून बडटी मेळिल्ले कांय कैदी नियुक्त रक्षकांक आदार करतात. सामान्यपणान समाजशास्त्र वा दंडशास्त्र हातूंत प्राविण्य मेळयल्ल्या पदवीधराची अधिक्षकाचे सुवातेर नेमणूक करतात. रक्षकांतले कांय शस्त्रधारी आसतात. राज्य पांवड्यावयले शारिरीक प्रशिक्षण निर्देशक, जिल्हो बंदखणींक भेटी दिवन थंयच्या कैद्यांक आनी रक्षकांक खेळ, सांघिक कवायत हातूंत मार्गदर्शन करतात. बायलकैदी आसल्यार थंय बायल-रक्षकाची नेमणूक करतात.

गुन्यांवाप्रमाण कैद्यांचे पयलो, दुसरो अशे वर्ग करतात. तेच भाशेन विशिश्ट कायद्याखाल दवरिल्ले राजकीय वा हेर कैदी, केन्ना तरी येवपी, सदांच येवपी गुन्यांवकारी अशेय वर्ग केल्ले आसतात. तेचप्रमाण ख्यास्तीच्या काळाप्रमाणूय तांचे वर्ग करतात. तीन म्हयन्यांपरस उणी ख्यास्त जाल्ल्यांक उण्या काळाचे, तीन म्हयने ते दोन वर्सांमेरेनच्या कैद्यांक मध्यम काळाचे आनी दोन वर्सांपरस चड ख्यास्त जाल्ल्यांक लांब काळाचे कैदी म्हणून वळखतात. कैद्यांच्या वर्गाप्रमाण तांकां बंदखणींतली वागणूक आनी सवलती मेळटात. खून, कट, दरोडेखोरी, सारकिल्ले गंभीर प्रकाराचे गुन्यांव केल्ल्या कैद्यांचे बाबतींत सवलत दितना विशेश जतनाय घेवप जाता.

१९४६ च्या बंदखण सुदारणा समितीचे शिफारसीप्रमाण कैद्यांक उणे प्रतीचें अन्न आनी भड्डे कपडे दिवपाची चाल बंद जाली. आतां तांच्या भेसांत आनी अन्नांत कायद्या प्रमाण आनी बंदखणीच्या नेमांप्रमाण बरीच

सुदारणा जाल्या. भौशिक उत्सवा वेळार तांकां पुरायपणान मेकळे करतात. मध्यम आनी चड मुजतीच्या कैद्यांक तांच्यो आवडी निवडी, भलायकी तशेंच तांचो पयलींचो इतिहास मतींत घेवन हातमागावयलें वा हेर वीणकाम, कपडे धुवपाचें काम, मेस्तकाम, फूलझाडांचें काम असलें प्रशिक्षण दितात. व्हडल्या बंदखणींनी कैदयांनी स्वताच वेंचून काडिल्ल्या कैदयांची एक पंचायत समिती आसता. बंदखणींत शिस्त दवरपाखातीर आनी कैद्यांचें हीत सादपाखातीर हे समितीचो खूब आदार जाता. तशेंच बंदखणींत शिकोवपाचेय वर्ग चलतात, भायल्या परिक्षांक बसपी कैदी विद्यार्थ्यांक सवलत मेळटा. शिक्षणीक आनी करमणुकीच्यो खूब कार्यावळी जातात. वाचनालयाचीय बंदखणींत सोय आसता. कैदयांच्या दीसपट्ट्या कामांभायर उरिल्ल्या वेळांत ते प्रार्थना, खेळ, व्यायाम, जेवण हीं कामां करतात.

बंदखणीचीं दीसपट्टीं कामां, नितळसाण, जेवण-खाण, हीं सगळीं कामां कैदीच करतात. शेतकाम, दुदाचो वेवसाय, कलाकुसरीचीं कामां अशीं वेवसायीक कामांय थंय चलतात. सरकारी वा खाजगी मागणी घेवन वेतकाम, फर्निचर, खडू तयार करपाचींय कामां बंदखणींत जातात.

भारतांत कांय उकत्यो बंदखणींय आसात. महाराष्ट्रांत अशे तरेच्यो तीन बंदखणीं आसून मराठवाड्यांत पैठणांत सुमार चारशें कैद्यांक गोदावरी न्हंयेच्या जायकवाडी प्रकल्पाच्या बांधकामाचेर १९६७-६८ वर्सासावन काम दिलें. आतां धरणाचें काम पुराय जाल्ल्यान तांकां यंत्रीक वा तंत्रीक उद्देगांनी काम दिवपाचे यत्न चलल्यात. उकते बंदखणींतले कैदी वण्टींचें बंधन नाशिल्ल्यान वसतिघरांत राविल्ले भाशेन रावतात. काम केल्ल्यान तांकां पगार मेळटा तो ते आपल्या घरच्या लोकांक धाडूंक शकतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बंदर :** उदका येरादारीच्या वाहनांक (व्हडीं, बोटी, पातमाऱ्यो, तारवां, बार्जी, आदीं) सुरक्षीत असो आलाशिरो दिवपाची वेवस्था आशिल्ली सुवात.

येरादारीक मारक थरपी वादळां, उदकाचो झोत आनी ल्हारां हांचे पसून बचाव हें बदराचें मुळावें उद्दिश्ट आसलें तरी बंदराची आनीकूय उद्दिश्टां आसात तीं अशीं- म्हालाची आयात-निर्यात, प्रवाशांक हाडप-व्हरप, वाहनांची दुरुस्ती करप, वाहनांखातीर इंधनांची सुविधा करप, ह्या मूळ उद्दिश्टांचो विकास जावन ह्या उद्दिश्टांनी धोके, गुदांव, अंतर्गत येरादारी, आयात-निर्यात, कर एकठांय करप, ह्या उद्दिश्टांची भर पडली, राश्ट्रांचे संरक्षण यंत्रणेंतल्या नाविक दलाचे सोयीखातीर खाशेल्या बंदराची वा हेर बंदरांची खाशेली वेवस्था करप जाता. नाविक शिपायांक आनी अधिकाऱ्यांक प्रशिक्षण दिवपाचो वावर नाविक तारवां करतात. तशेंच, बांदावळ आनी झुजावेळार नाविक तळ म्हणून अशा बंदरांचो उपेग जाता.

**उगम आनी विकास :** पुर्विल्ल्या काळांत न्हंयांच्या देगांनी राबितो करून रावपी लोकांनी उदका येरादारीचो सगळयांत पयलीं सोद लायलो आनी उदका येरादारी वांगडाच बंदराचो उपेग जावपाक लागलो असो समज आसा. पूण सुरवेक बंदरांची उबारणी आनी उपेग खंय वा केन्ना जालो हांचेविशीं स्पश्टपणान अशी म्हायती मेळना. पूण इ. स. प. ४००० ते ३००० च्या सुमाराक इजिप्त देशांत नायल न्हंयेचेर मेम्फिसाक, मेझोपोटेमियांत युफ्रेटिस न्हंयेचेर बॅबिलोनाक आनी ॲसिरियांतले टायग्रीस न्हंयेचेर निनेवाक बंदरां आशिल्लीं. ते उपरांत फिनिशियन, ग्रीक आनी रोमी लोकांनीय बऱ्याच देशांकडेन वेपार करपाक सुरवात केली. हाका लागून तांणी बंदरां उबारिल्लीं. पुर्विल्या काळांत इजिप्त, हिंदुस्थान आनी चीन ह्या राश्ट्रांनीय ल्हान-व्हड बंदरां आशिल्लीं.

अहमदाबाद जिल्ह्यांतल्या लोथलच्या उत्खननांत सांपडिल्ले गोदीवयल्यान सिंधु संस्कृतायेच्या काळासावन भारतांत बंदरां आशिल्लीं अशें म्हणपाक आदार मेळटा. संस्कृत आनी पाली साहित्यांतूय उदका येरादारीविशीं वर्णन आयलां. ऋग्वेद, रामायण, महाभारत, बृहत्संहिता आनी वराहपुराण ह्या ग्रंथांनी दर्या प्रवासाचे उल्लेख आसात. ह्या सगळयांच्या आदारावयल्यान पुर्विल्ल्या काळांत भारतांत साबार बंदरां आशिल्लीं आनी भारतीय लोकांचो दर्यादिगेवयल्या हेर राश्ट्रांकडेन वेपार चलतालो अशें म्हणपाक वाव मेळटा. 'युक्तिकल्पतरू' ह्या इकराव्या शेंकड्यांतल्या ग्रंथांत तारवां बांदपाविशींची विस्तारीत म्हायती दिल्या. मच्छलीपटनम् बंदरांतल्यान सुटपी हिंदी तारवां उदेंते कडेन आराकान, पेगू, सयाम, सुमात्रा, चीन, जावा आनी मनिला तशेंच अस्तंतेक मादागास्करामेरेन प्रवास करतालीं अशें फ्रेंच भोंवडेकार तार्व्हेर्न्ये हाणें म्हळां. मध्ययुगांत बंगाल, विशाखापटनम्, सुरत, भावनगर, गोंय, वसई आनी ढाकाक प्रसिद्द बंदरां आशिल्लीं.

रोमी साम्राज्यांत दर्याचे येरादारीक बरेंच म्हत्व आशिल्लें. तें साम्राज्य अस्ताक वतकूच लेगीत वॅनिस बंदर हें व्हडलें वेपारी केंद्र जालें. मध्ययुगांत म्हळयार पंदराव्या शेंकड्यांत स्पेन आनी पुर्तुगालच्या राजांनी जलप्रवाशांक हिन्दुस्थानाचो सोद लावपाखातीर सगळया तरांचो आदार दिवन उत्तेजन दिल्लें. हाका लागून युरोपांत आनी कांय आफ्रिकी राश्ट्रांनी साबार बंदरां अस्तित्त्वांत आयलीं. १४९२ त कोलंबस हिंदुस्थानाचो सोद लावपाखातीर भायर सरलो. पूण वाट चुकून तो बहामा जुंव्याचेर पावलो आनी अशे तरेन अमेरिकेचो सोद लागलो. १८९८ त वास्को द गामा, केप ऑफ गूड होप हाका वळसो घालून हिंदुस्थानाचे अस्तंत दर्यादिगेवयल्या कालिकत बंदरांत आयलो. तेउपरांत स्पेन आनी पर्तुगाल ह्या देशांनी आपलो वेपार वाडोवपाखातीर अमेरिकेंत, भारतांत आनी हेर आशियायी देशांनी नवीं बंदरां बांदलीं. उद्देगीक क्रांतीउपरांत हॉलंड, फ्रेंच आनी ब्रिटीश लोकांनी आपली उदका येरादारी सुदारून युरोपाच्या वेपारांत नामना जोडली. हेखातीर तांणी अमेरिका आनी आशियायी देशांनी साबार बंदरां बांदलीं. विसाव्या शेंकड्यांत वेपारांत जाल्ली वाड आनी झुजांक लागून तारवांचो उपेग वाडत गेलो, तशीं नवीं नवीं बंदरां अस्तित्त्वांत आयलीं.

ब्रिटीश राजवटी उपरांत भारतीय गोदी आनी बंदरांतल्यान ब्रिटीश आरमाराक शेंकड्यांनी गलबतां आनी ईस्ट इंडिया कंपनीक वेपाराखातीर साबार तारवांची पुरवण केल्ली. पूण भारतांतलो पयलो आधुनीक तारवां बांदपाचो कारखानो विशाखापट्टणम् बंदरांत १९४१ त सिंदिया स्टीम नॅविगेशन कंपनीन सुरू केलो. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत तारवां बांदणीचे कारखाने मुखेलपणान कोची, मुंबय आनी कलकत्ता बंदरांनी सुरू केले.

भारताक उदेंत आनी अस्तंत अशी व्हड दर्यादिग लाबिल्ली आसा. पूण दर्यादिगेचे लांबायेच्या मानान हांगा बंदरां खूब उणीं आसात. ल्हान-व्हड मेळून हांगा सुमार १८० बंदरां आसात. चार हजार टनांपरस व्हड तारवां सुरक्षीत उबीं रावपाक शकतात अशे धक्के आशिल्लीं आनी दर वर्साक धा लाख टनांपरस चड वेपारी म्हालाची हाड व्हर करपी बंदरां हीं व्हड बंदरां अशें मानलां. भारताचे अस्तंत देगेचेर कांडला, मुंबय, मुरगांव, मंगळूर आनी कोची, उदेंत दर्यादिगेर तुतिकोरिन, चेन्नई, विशाखापट्टणम्, पारादीप, कलकत्ता आनी हल्दिया अशीं वट्ट ११ व्हड बंदरां आसात. हेर बंदरांचे मध्यम आनी ल्हान अशे प्रकार केल्ले आसून तांची संख्या सुमार १६९ इतली आसा.

**वर्गीकरण** : सैमीक विघ्नांसावन मेळपी संरक्षणाच्या स्वरुपाक लागून आनी बंदराच्या कार्याप्रमाण बंदरांचे सैमीक आनी कृत्रीम अशे दोन प्रकार केल्यात. कांय आखातां, खाडयो आनी न्हंयांच्या पात्रांचो आकार वाटकुळोच आसता. हाका लागून तारवांक सैमीक विघ्नांसावन उणो त्रास जाता. तशेंच तारवां भितर रिगपाचो मार्ग फावो तितलो रूंद आनी खोल आसता. अशा सुवातींनी कांय मोजक्योच सुदारणा करून तांचो बंदरां म्हणून उपेग करूं येता. हांगा बंदरांखातीर फावो आशिल्ल्यो चडशो गजाली सैमीक रितीन उपलब्ध आसतात. हाका लागून तांकां सैमीक बंदरां म्हण्टात. मुंबय, कोची, मुरगांव आनी विशाखापट्टणम् ह्या भारतीय बंदरांचो सैमीक बंदरां म्हणून उल्लेख जाता.

साबार दर्यादिगांनी बंदर बांदपाखातीर सैमीक अशी कांयच वेवस्था नासता. पूण कांय खाशेल्या कारणांखातीर थंय अशा सुवातींनी बंदरां बांदचीं पडटात. अशा बंदरांक कृत्रीम बंदरां अशें म्हण्टात.

सैमीक आनी कृत्रीम बंदरांचें वर्गीकरण तांच्या मुखेल कार्यांवयल्यान जाता. कांय बंदरां मुखेलपणान परदेशांकडेन आनी देशाभितर वेपार करचेखातीरूच बांदिल्लीं आसतात. अशा बंदरांक वेपारी बंदरां म्हण्टात. भर दर्यांत आनी दर्यादिगांनी नुस्तें धरपी वा पागपी तारवांखातीर कांय खाशेलीं बंदरां आसतात. तांकां नुस्तेमारी बंदरां म्हण्टात. तशींच देशाभितर जावपी येरादारीखातीर फेरी बंदरां, देशाचे राखणेखातीर नौदलाचीं बंदरां आसतात.

बंदरांचो प्रकल्प सुरू करचे पयलीं ते खातीर खाशेली सुवात सोदून काडप, भरती-सुकती तसोच वाऱ्याचो परिणाम, ल्हारां आनी तांचो बंदराच्या बांदकामाचेर जावपी वायट परीणाम, दर्यांतलो प्रवाह, दर्यादिगेचो भूंयभाग आनी हेर गजाली तपासप खूब गरजेचें आसता.

बंदराच्या आंवाठाभितर तारवां थिरायेन नांगरून रावचीं म्हणून कांय तरांची खाशेली वेवस्था केल्ली आसता. बंदराच्या भितरल्या भागांत तारवां नांगरून दवरतात तेन्ना तांकां ल्हारांचो त्रास जावंचो न्हय हेखातीर बांद घालचो पडटा. उदकाची खोलाय, दर्याचो तळ, बांदाखातीर लागपी वस्तू ते सुवातेर मेळटा कांय ना हें सगळें लक्षात घेवन उपरांत बांदाचो प्रकार थरयतात. ज्या सुवातींचेर उदक चड खोल नासता आनी फातर सहज मेळूंक शकतात थंय फातर दाळून बांद घालपाक सोंपें जाता. दर्याची खोलाय चड आसल्यार थंय काँक्रिटाचे बांद उबारतात. उदकाचे खोलायेप्रमाण बांदाची रुंदाय वाडत वता. अशा रूंद बांदाक खर्चूय खूब येता. म्हणून साबार खेपे तळाची रुंदाय तितलीच दवरून वयर काँक्रिटाच्या ब्लॉकांचो उपेग करतात. युरोपांतले चडशे बांद काँक्रिटाच्या ब्लॉकांचे आसात.

साबार सुवातींनी उदकाची खोलाय सोडल्यार बंदराक फावो अशो हेर सगळयो गजाली सैमीक रितीन उपलब्ध आसतात. अशा जाग्यांचेर भर उदकांत लांकडी, तिख्याच्या वा काँक्रिटाच्या खांब्यांचेर धक्के उबारतात. हांकां जॅटी अशें म्हण्टात. जॅटी खांब्यांचेर उबारिल्ल्यो आशिल्ल्यान जॅटी पोंदच्यान उदक व्हांवूक शकता. जॅटीची लांबाय रुंदायेपरस चड आसता. तिचो उपेग मुखेलपणान येरादारी खातीरच करतात. म्हाल देवोवन तो सांठोवन दवरपाखातीर कसलीच वेवस्था नासता. पूण येरादारीखातीर वयर रस्तो आसता.

**धको** : तारवां बंदरांत रिगलीं म्हण्टकूच तीं लावपाखातीर एक खाशेली धड वा बांद उबारतात, ताका धको म्हण्टात. प्रवासी आनी म्हाल चडोवपा वा देंवोवपाखातीर ताचो उपेग जाता. तारवां लावच्या वेळार तीं धक्याचेर नेटान आपटतात. तांचो भार सोंसूंक जावंचो म्हणून धक्याच्यो वण्टी घट्ट आसच्यो पडटात. तारूं धक्याक लावंचे पयलीं वा बंदराभितर बेठेंच नांगरून दवरपाखातीर धक्याकडेन वाटकुळें वा चवकोनी घट्ट खांबे आसतात. तांकां घनिश्टा अशें म्हण्टात. तांचो उपेग मुखेलपणान तारवां लावपाखातीर जाता. तशेंच तारवां धक्याक लायले उपरांत तीं बांदून दवरपाखातीर धक्यांचेर साबार खांबे आसतात. बंदरांत वा गोदींत धक्यांच्या दोनूय वटांनी तारवां लावपाक मेळचीं म्हणून दर्यादिगे लागसार कांय कोन करून धके बांदतात. तांकां मध्यपाद अशें म्हण्टात. तारवां लावप सोंपें जावचें म्हणून मध्यपादाच्या दोनूय तोंकांचेर थोडी रुंदाय वाडोवन सादारणपणान ताका वाटकुळो आकार दितात. बंदरांत ल्हान बोटी वा लाँची लावपाखातीर जो ल्हान धको बांदिल्लो आसता ताका भरणतट अशें म्हण्टात. लाँचीक वा हेर ल्हान बोटींक उदकाची खोलाय उणी आसल्यार लेगीत जाता, हाका लागून भरणतट दर्यादिगेक तेंकून बांदतात.

तारवां धक्याक लावंच्या वेळार तीं नेटान धक्याचेर आपटतात. अशा वेळार धक्याचेर खूब दाब पडटा. हो सगळो दाब धक्याचेर पडचो

न्हय आनी तारवांय धक्याचेर खरवडचीं न्हय देखून धक्याचेर आनी तारवांचेर डफर (Shock absorber) लायिल्ले आसतात. डफर म्हणून कांय लांकडांचो वा रबराचो उपेग करतात. धक्याच्या वण्टी मुखार लांकडी खांबे उबे वा आडवे लायतात. तांचो उपेग डफऱ्याप्रमाण जाता. तारवांच्या देगांनी रबरी टायर हुमकळायल्ले आसतात. तांचोय उपेग डफऱ्या प्रमाण जाता.

तारवांतले प्रवाशी वा म्हाल देंवयले उपरांत तारवांची थोडीभोव दुरुस्ती करची आसत जाल्यार तीं धक्याकडेन एके सम पातळेचेर दवरचीं पडटात. हाका लागून बंदरांत एक खाशेली सुवात तयार करतात. हांगा उदकाचे पातळेंत व्हडलोसो बदल जायना. हे सुवातेक गोदी म्हण्टात. जे गोदींतलें उदक पुरायपणान काडूंक मेळटा आनी जाय तेन्ना परत भरपाक मेळटा अशे गोदीक सुकी गोदी म्हण्टात आनी ज्या गोदीनी सदांच उदक आसता तिका ओली गोदी म्हण्टात. गोदीचो आकार त्रिकोनी, चवकोनी वा वाटकुळो आसता. गोदींत तारवां बांदून दवरपा इतली आनी तीं घुंवडावपा इतली सुवात आसची पडटा. तारवांच्या तळाची दुरुस्ती करच्या वेळार वा रंग काडचे खातीर तारवां उदका वयर काडचीं पडटात. जे गोदींत अशी वेवस्था आसता तिका निर्जल गोदी म्हण्टात.

तारूं धक्याक लागलेउपरांत प्रवासी आनी म्हाल सहजपणान चडोवंक-देंवोवंक मेळचो म्हणून एक प्रकारची खाशेली वेवस्था आसची पडटा. प्रवाशांखातीर सोंपणां वा एक प्रकारची खाशेली निसण आसता. तारवांतलो म्हाल सहजपणान उसपूंक तसोच भरूंक जावंचो म्हणून यंत्रीक साधनांचो उपेग करतात. ह्या यंत्रांतलीं कांय यंत्रां तारवांचेर, कांय धक्याचेर आसतात. ह्या यंत्रांत मुखेलपणान क्रेनीचो आस्पाव जाता. सादारणपणान एके फावटीं ५ ते १० टन मेरेन वजें उखलपा इतली ह्या यंत्रांची क्षमताय आसता. चड जड वजें उबारपाखातीर व्हड क्रेनीचो उपेग करतात. ल्हव आनी मध्यम जडायेचें वजें उबारपाखातीर धक्याचेर डॅरिक आसतात. तांच्या आदारान धक्यावयलो म्हाल तारवांत भरतात वा तारवांतलो म्हाल उसपून तो धक्याचेर मांडून दवरतात. धान्य, कोळसो, खनिजां आनी हेर जड म्हाल चडोवपाखातीर धक्याचेर घुंवत्या पट्ट्यांचो उपेग करतात. तशेंच खनीज तेल, खाद्यतेल आनी हेर पातळ पदार्थांखातीर नळांचो उपेग करतात. तारवांवयलो देंवयल्लो म्हाल वा तांचेर चडोवपाचो म्हाल कांय दीस धक्याचेर उरता. हाका लागून धक्याचेर अशा प्रकाराचो म्हाल सांठोवन दवरपाखातीर खास गुदांव बांदतात.

सिडनी (ऑस्ट्रेलिया), डाकार (सेनेगल), आल्जियर्स (अल्जिरिया) आनी न्यूयॉर्क हीं संवसारांतलीं व्हड सैमीक बंदरां आसात. संवसारांत अशीं ल्हान-व्हड खूब बंदरां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** मुरगांव बंदर.

## बंदरनायके, सिरिमाओ : (जल्म : १७ एप्रिल १९१६, बलंगोड, जी. रत्नपूर).

श्रीलंकेची आदली प्रधानमंत्री आनी मुत्सद्दी. संवसारांतली पयली बायल प्रधानमंत्री जावपाचो मान तिका मेळ्ळो. तिचो जल्म जमीनदार रॅटवॅट्टे घराण्यांत जालो. तिचो बापूय डिसावा बार्न्झ रॅटवॅट्टे हो रत्नपूर जिल्ह्याचो मुखेली आशिल्लो. कोलंबोंतले कॉन्वेंट शाळेंत तिणें आपलें शिक्षण घेतलें. १९४० वर्सा, त्या काळांतलो थळावो स्वराज्य मंत्री सॉलोमन बंदरनायके हाचेकडेन तिचें लग्न जालें. तिका एक पूत आनी दोन धुवो आसात. एक धूव चंद्रिका कुमारतुंगे ही श्रीलंकेची प्रधानमंत्री जाली (१९९४).



लग्नाउपरांत ती भौशीक कार्यांत वांटो घेवंक लागली. बायलांचे हक्क, तांचें शिक्षण, कामगारांचे प्रस्न ह्या सारक्या समाजीक प्रस्नांनी ती लक्ष घालूंक लागली. लंका महिला समितीची ती भांडारी आनी फुडें अध्यक्षा जाली. १९५१ त तिचो घोव सॉलोमन हाणें आपल्या मंत्रीपदाचो राजीनामो दिवन 'लंका फ्रीडम पक्ष' स्थापन केलो. १९५६-५९ ह्या काळांत तो श्रीलंकेचो (त्या काळाचें सिलॉन) प्रधानमंत्री आशिल्लो. ताच्या भाशीक धोरणाखातीर देशांत अशांतताय पातळिल्ली. तातूंतल्यानूच ताचो खून जालो. मे १९६० त, घोवाच्या मरणाउपरांत ती लंका फ्रीडम पक्षाची अध्यक्षा जाली. देशांतल्या दाव्या पक्षांचो एकचार घडोवन १९६० वर्साचे वेंचणुकेंत भोवमत मेळोवन ती प्रधानमंत्री जाली. आपल्या प्रधानमंत्री पदाच्या काळांत तिणें देशाच्या धोरणांत मवाळ समाजवादाचो जाल्यार, विदेशी संबंदांनी अलिप्ततायवादाचो नेटान पुरस्कार केलो. सुरवेक तिणें सॉलोमन बंदरनायके हाच्याच राश्ट्रीय कार्यक्रमांचो आनी तटस्थ अलिप्ततायवादाची फाटपुरवण केली.

देशाच्या धोरणांत सिंहली ही एकूच राश्ट्रभास दवरपाचें धोरण तिणें चालू दवरलें. खाजगी शाळा, परकी मालकीच्यो तेल कंपन्यो, च्याचे आनी रबरीचे मळे, विमा कंपन्यो हांचें तिणें राश्ट्रियकरण केलें. अशें करून तिणें अर्थीक मळार विदेशी कंपन्यांचें व्हडपण उणें करून ल्हान उद्देगधंद्यांक आनी ल्हान वेपाऱ्यांक दुडू मेळोवन दिलो आनी शेतकामत्यांक आदार दिलो. १९७१ त तिणें देशांत आणिबाणी जाहीर करून अतिरेकी दावे विचारसरणीच्या तरनाट्यांनी केल्लें बंड मोडून काडलें.

१९७२ त तिणें देशाखातीर नवें संविधान तयार करून सिलोनाचें श्रीलंका (सोशॅलिस्ट रिपब्लिक ऑफ श्रीलंका) हें अधिकृत नांव जाहीर

केलें. संसदेक सार्वभोवमत्व दिवप, पुनर्विलोकनाचो अधिकार न्यायालयाकडल्यान काडून घेवप, आणिबाणींत शासनाक विरोधकांचेर कडक नियंत्रणाचे अधिकार आसप, हीं नव्या संविधानाचीं कांय खाशेलपणां आशिल्लीं. दावो साम्यवादी पक्ष आनी लंका समाजवादी पक्ष हांचेभितर एकचार घडोवपाचें तिचें धोरण आशिल्लें. ह्या एकचाराच्या बळग्यान तिणें १९७० तल्यो भौशिक वेंचणुको जिखल्यो. पूण हो एकचार चड वेळ तिगूंक शकलोना.

इ. स. १९६४ त लालबहादूर शास्त्री आनी १९७४त इंदिरा गांधी ह्या तेन्नाच्या भारतीय प्रधानमंत्र्यांकडेन तमीळ भाशीक भारतीय लोकांक नागरिकत्त्व दिवपाविशीं तिणें करार केलो आनी देशाचो एक वादग्रस्त प्रस्न सोडोवंक यश मेळयलें. भारताकडेन इश्टागतीचे संबंद जोडप आनी अरब देशांक सहानुभुती दाखोवप हें तिच्या विदेश धोरणाचें सूत्र आशिल्लें. भारत-चीन झुजांत (१९६२) तडजोड घडोवन हाडपांत तिणें फुडाकार घेतिल्लो. तिणें उदेंत जर्मनी, उत्तर कोरिया, दक्षिण व्हिएतनाम आदी साम्यवादी राश्ट्रांक मान्यताय दिली.

वाडटी म्हारगाय, बेकारी, उद्वेगीक अशांतताय आनी मध्यमवर्गाची सहानुभुती वगडायिल्ल्यान १९७७ तले सार्वत्रिक वेंचणुकेंत ती जरी वेंचून आयली, तरी तिच्या पक्षाक जैत मेळ्ळेंना. मदल्या बऱ्याच काळाच्या राजकीय विजनवासाउपरांत श्रीमती चंद्रिका कुमारतुंगेच्या प्रधानमंत्रीपदाच्या काळांत तिका श्रीलंकेचें राश्ट्रपतीपद फावो जालें.

एकवटीत राश्ट्रांच्या अन्न आनी शेती संघटणेन (Food & Agricultural Organisation) तिच्या समाजीक कार्याखातीर तिका पदक दिलें.

राजकारणाभायर तिका बौध्द धर्म आनी श्रीलंकेतल्यो पोरण्यो वास्तू हांचेविशीं अभिमान आनी ओड आसा. तिणें सिंहलीज मोनॅस्टिक आर्किटॅक्चर द विहार ऑफ अनुराधापूर (१९७५) हें पुस्तक बरयलां.

- कों. वि. सं. मं.

## बंदे अलीखाँ : (जल्मः ?; मरण : २७ जुलय १८९५ ; पुणें).

एक व्हड बीनकार. तो दिल्ली लागसारच्या किराणा (कैराना) ह्या



गांवचो आसून ताका त्या घराण्याचो मूळ पुरूस मानप जाता. जयपूर, ग्वाल्हेर, इंदूर ह्याय दरबारांचो ताका आलाशिरो आशिल्लो. ग्वाल्हेर घराण्याचो गवय हद्दूखाँ हाचो तो जांवय. बीन वादनांत पुराय भारतभर ताची नामना आशिल्ली. बारिकांतल्या बारीक स्वरांचें भान दवरपी गोड वादक अशी ताची नामना आशिल्ली. मिंडेचें गोड वादन हें ताचें खाशेलपण. हाचेभायर तो धृपद गायकूय आशिल्लो. १८८५ त पंडीत भास्करबुवा बखले, किर्लोस्कर नाटक मंडळींत आसतना, ताच्या पदान भारावन बंदे अलीखाँन ताका स्वखर्चान गंडो बांदलो. पं. भास्करबुवान स म्हयने ताचेकडेन शिक्षण घेतलें. बंदे अलीखाँची बायल आनी ताची पट्टशिश्या चुन्नाबाई ही लेगीत त्या काळांतली नामनेची गायिका आशिल्ली. ताच्या हेर शिश्यांभितर चंद्रभागाबाई, बिनकार मुरादखाँ, इंदूरचो बीनकार वहीदखाँ आनी लतीफखाँ, देवासाचो गवय रजब, अलिखाँचो बापूय मुगलूखाँ, बडोद्याचो जमालुद्दीनखाँ आदींचो आस्पाव जाता. निमाणें ताचें वास्तव पुण्यांत आशिल्लें. थंयच ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

## बंदोपाध्याय, ताराशंकर : (जल्म : २३ जुलय १८९८, लाबपूर, जिल्हो- बीरभूम; मरण : १४ सप्टेंबर १९७१, कलकत्ता).

बंगाली साहित्यांतलो एक म्हान कांदबरीकार आनी कथाकार. ताचें मुळावें शिक्षण बीरभूम जिल्ह्यांतल्या लाबपूर गांवांत जालें. शालांत परिक्षा



पास जातकच ताणें कलकत्त्याच्या सेंट झेव्हियर्स कॉलेजींत आनी साऊथ सबर्बन कॉलेजींत कांय काळ शिक्षण घेतलें. पूण राजकीय चळवळींत सक्रीय वांटो घेतिल्ल्यान आनी मदीं मदीं भलायकेचे त्रास जाल्ल्यान ताका शिक्षण पुराय करूंक मेळ्ळेंना. १९४२ त तो 'अँटी-फॅसिस्ट रायटर्स अँड आर्टिस्टस् असोसिएशन'चो अध्यक्ष आशिल्लो. १९५२ त तो विधानसभेचो वांगडी जालो. १९५७ त ताणें चीन सरकाराच्या आपोवण्या वयल्यान चीन देशाक भेट दिली. १९५८ त 'अॅफ्रो-एशियन रायटर्स कॉन्फरन्स' च्या मंडळाचेर आसतना ताणें रशियेचीय भोंवडी केली.

भुरगेपणांत बाऊल, वैष्णव आनी शाक्त पंथीय गायकांच्या गितांचो ताच्या मनार खोल संस्कार जाल्लो. गांवगिऱ्या वाठारांनी प्रचलीत आशिल्ल्यो दंतकथा, भूतकथा, थळाव्या देवदेवतांच्यो कथा हीच ताराशंकराच्या साहित्यांतली मुखेल जोड. साहित्याच्या मळार तो सुरवेक कवी आनी उपरांत कथाकार म्हणून आयलो. 'त्रिपत्र' हो ताचो पयलो कवितांझेलो १९२६ त उजवाडाक आयलो. ताच्यो सुरवेच्यो कथा 'कल्लोल', 'कालि ओ कलम', 'उपासना', 'धूपछाया' ह्या नेमाळ्यांनी उजवाडाक येताल्यो. फुडें ताणें कादंबऱ्यो बरोवंक सुरवात केली. 'चैताली धूर्णि' (१९३२) ही ताची पयली कादंबरी. ताच्यो कांय उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो अशो- 'रायकमल' (१९३५), 'धातृ देवता' (१९३९), 'गणदेवता' (१९४३),

'पंचग्राम' (१९४४), 'कवि' (१९४४), 'हासुली बाँकेर उपकथा' (१९५१), 'नागिनी कव्यार काहिनी' (१९५२), 'आरोग्यनिकेतन' (१९५३). 'छलनामयी' (१९३७) ही ताचो पयलो कथांझेलो. तेभायर ताचे हे कांय कथांझेले उल्लेख करपासारके आसात- 'जलसावर' (१९३८), 'रसकली' (१९३९), 'हारानो सूर' (१९४५), 'कामधेनू' (१९४९), 'चिरंतनी' (१९६२), 'जया' (१९६८)ः कादंबऱ्यांक नाट्य रूप दिवन तयार जाल्लीं 'कवि' (१९५७) आनी 'आरोग्यनिकेतन' (१९६८) हीं ताचीं नाटकां रंगमाचयेर खूब गाजलीं. 'कालिंदी' (१९४२), 'दुईपुरूष' (१९४३), 'जुगबिप्लव' (१९५१) हीं ताचीं कांय स्वतंत्र नाटकां उल्लेख करपासारकीं आसात. हाचेभायर 'साहित्येर सत्य' (१९६१) हो साहित्यचर्चात्मक दीर्घ निबंद आनी 'आमार साहित्य जीवन' (१९६२) ही आपजीण ताणें बरयली. 'शताब्दीर मृत्यू' (१९७१) ही ताची निमाणी कादंबरी ताच्या मरणा उपरांत उजवाडाक आयली.

ताराशंकरच्या बरपांत सरंजामशायेंतलो अन्याय, जुलूम, अंधविश्वास, रुढिग्रस्तताय हांचें ज्युस्ताजुस्त वर्णन केल्लें दिसता. स्वातंत्र्या उपरांत भारताच्या गांवगिऱ्या वाठारांतलें अर्थीक विस्कळीतपण, परंपरा आनी वर्तमान हांचें वास्तवभान आनी मनीस जिणेविशींच्या प्रस्नांची खोलायेन जाण ही ताच्या बरपावळीचीं खाशेलपणां आशिल्लीं.

ताका १९४७ वर्सा कलकत्ता विद्यापिठावतीन 'शरद मेमोरियल' पदक; १९५५ वर्सा अस्तंत बंगाल सरकारावतीन 'रवींद्र मॅमोरियल' इनाम; १९५६ वर्सा 'आरोग्यनिकेतन' हे कादंबरीक साहित्य अकादमी पुरस्कार; १९६३ वर्सा 'शिशिरकुमार' हे पुरस्कार ताका मेळ्ळे. १९६७ वर्सा ताचे 'गणदेवता' हे कादंबरीक ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळो. भारत सरकारान ताका १९६२ त 'पद्मश्री' आनी १९६८ त 'पद्मभूषण' दिवन ताचो भोवमान केलो. ताचे 'गणदेवता' हे गाजिल्ले कादंबरीचो लीला राय हिणें इंग्लिशींत (१९६९), हंसकुमार तिवारी हांणें हिंदींत (१९६७) आनी इंदुमती शेवडे हिणें मराठींत (१९७३) अणकार केला. ताच्या 'आरोग्यनिकेतन' हेय कादंबरीचे हिंदीं, मराठी, तेलुगू, गुजराती, मल्याळम् आनी तमीळ ह्या भारतीय भाशांनी अणकार जाल्यात. हाचेभायर हेर कादंबऱ्यांचेय इंग्लिशींत आनी हेर भारतीय भाशांनी अणकार जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**ब :** देवनागरी लिपींतलें तेविसावें व्यंजन आनी प वर्गांतलो तिसरो वर्ण. ह्या वर्णाच्यो पांच अवस्था आसात. पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनारच्या शिलालेखांत, दुसरी कुंडेश्वराच्या लेखांत (इ. स. ६६१), तिसरी प्रतिहार बाडकच्या जोधपूरच्या लेखांत (इ. स. ८३७), चवथी उष्णीषविजयधारणीच्या ताडपत्री ग्रंथांत आनी पांचवी चालुक्य भीमदेवाच्या दानपत्रांत मेळटा. हे निमाणे अवस्थेंतले व आनी ब हातूंत कांयच फरक नाशिल्ल्यान, व आनी ब चें वेगळेपण दाखोवपाखातीर व च्या पोटांत एक टींब दिवपाक लागले. त्याच टिंबाची तिरपी ओळ जावन आतांचो ब तयार जालो.

ब च्या रुपाचो विकासक्रम असो-



कामधेनू तंत्रांत 'ब' चें स्वरूप अशें दिलां-

*बकारं शृणु चार्वङ्गि चतुर्वर्गप्रदायकम् ।*

*शरच्चन्द्रप्रतीकाशं पंचदेवमयं सदा ।*

*पंचप्राणात्मकं वर्णं त्रिबिन्दुसहितं सदा ।।*

**अर्थ :** हे सुंदरी, बकार हो चतुर्वगप्रद, शरद ऋतूंतल्या चंद्राभाशेन धवो, पंचदेवमय, पंचप्राणमय आनी त्रिबिंदुयुक्त असो वर्ण आसा.

ओंठ हें ताचें उच्चारणस्थान.

- कों. वि. सं. मं.

**बकपंचक :** एक व्रत. कार्तिक शुध्द एकादशीसावन कार्तिक पुनवेमेरेनच्या काळांत विष्णु न्हिदेंतल्यान जागो जाता. ह्या पांच दिसांक बकपंचक म्हण्टात. ह्या पांच दिसांमदीं बकें लेगीत मास खायना, तेखातीर मनशांनीय मास खावंचें न्हय, अशें सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**बक, पर्ल :** (जल्म : २५ जून १८९२, हिल्सबरो, वॅस्ट व्हर्जिनिया; मरण : ६ मार्च १९७३ डन्बी, व्हरमाउंट).

नोबॅल पुरस्कार मेळोवपी नामनेची लेखिका. तिच्या बापायचें नांव ॲबसलोम सिडेंस्ट्रीकर आनी आवयचें नांव कॅरलिन आशिल्लें. तिचो बापूय चीनांत धर्मोपदेशक आशिल्ल्यान पर्ल हिचें भुरगेपण थंयच गेलें. सुरवातीचें शिक्षण तिणें शांघाय शारांत घेतलें. उपरांत अमेरिकेंत येवन लिंचबर्ग, वॅस्ट व्हर्जिनियाच्या 'रँडोल्फ-मॅकन विमॅन्स कॉलेज' हातूंत १९१४ वर्सा ती पदवीधर जाली.



१९१७ वर्सा ती जॉन लॉसिंग बक ह्या धर्मोपदेशकावांगडा लग्न जाली. पूण १९३४ वर्सा ताका घटस्फोट दिलो. १९३५ वर्सा न्युयॉर्कांतलो एक प्रकाशक रिचर्ड जे. वॉल्श हाचेकडेन लग्न जाली. पूण आपलें बरप मात पर्ल बक ह्या नांवानूच चालू दवरलें.

१९२१ ते १९३१ ह्या काळांत नानकिंग विद्यापिठांत शिक्षिका म्हणून तिणें काम केलें. १९२३ त अमेरिकेच्या म्हयनाळयांनी, चीनी जिविताचेर आदारीत तिच्यो काणयो आनी हेर बरपावळ उजवाडयली. तिची पयली कादंबरी 'इस्ट विंड, वॅस्ट विंड' ही १९३० त उजवाडायली. पूण १९३१ त उजवाडाक हाडिल्ले 'द गूड अर्थ' हे कादंबरीन तिका आंतरराश्ट्रीय कीर्त मेळोवन दिली. हे कादंबरींत तिणें भुंयेचेर जिवापाड मोग करपी वांग लुंग ह्या कश्टी शेतकामती आनी ताचे बायलेचें चित्रण केलां. हेच कादंबरीक तिका १९३२ त 'पुलित्झर पुरस्कार' फावो जालो. हे कादंबरी उपरांत 'सन्स' (१९३२) आनी 'ए हाऊस डिव्हायडेड' (१९३५) ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो.

एकाच विशयाचेर बरयल्लो कथांझेलो 'द हाऊस ऑफ अर्थ' (१९३५) ह्या नांवान प्रकाशीत जालो.

'द फायटिंग एंजल' (१९३६) हें आपल्या बापायचें चरित्र तशेंच 'द एक्झायल' (१९३६) आपले आवयचें चरित्र्य तिणें बरयलां. 'द पॅट्रियट' (१९३९), 'अदर गॉड्स, (१९४०), 'ड्रॅगन सीड' (१९४२) आनी 'इम्पेरियल वुमन' (१९५६), ह्यो कादंबऱ्यो; 'द फस्ट वायफ' (१९३३), 'फार अँड नियर' (१९४७), कथा 'द चाइल्ड हू नॅवर ग्रीव' (१९५०), 'माय सॅव्हरल वर्ल्ड्स' (१९५४) आनी 'ब्रिज फॉर पासिंग' (१९६२) हीं तिचीं आपजिणेचेर बरयल्लीं पुस्तकां.

१९३८ त तिका साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो.

अमेरिकन फाटभुंयेचेरूय तिणें कांय कथा-कादंबऱ्यो बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बकुल उमास :** पौष म्हयन्यांतले उमाशेक बकुल उमास अशें नांव आसा. ह्या दिसा दुदांत तांदळाची खीर करून पितरांक वाडटात. ताका लागून पितर खोशी जातात अशी समजूत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बकें :** 'सिकोनिफॉर्मिस' गणाच्या आर्डीइडी कुळांतलें एक सवणें. ह्या कुळांत साबार जाती आसून त्यो संवसारभर पातळ्ळयात. बकें चड करून तळीं, शेतां आनी रेबट जाग्यांचेर सांपडटा.

सादारणपणान बक्यांचें आकारमान घरकोंबये भाशेन आसता. पूण तांची मान, पांय, बोटां आनी तोंच लांब आसता. कोंडाच्या देगांनी आनी चिखलाच्या वाठारांनी सांपडपी बकीं कड्ड्या वा गोबऱ्या रंगाचीं आसतात. शेतांनी भोंवपी बकीं चड करून धव्या रंगाचीं आसतात. धव्या बक्यांची तोंच आनी पांय हळदुवसार आसतात. तांची मान लांब आशिल्ल्यान तें बसता तेन्ना ती इंग्लीश एस अक्षरासारकी जाता. ताचीं पांखां वयल्यान तेलकट आसतात, हाका लागून तांचेर उदक धरना.

नुस्तें, बेबे, कुल्ली आनी टोळ ही ताची खावड आशिल्ल्यान तें सदांच तळ्या कांठार, सवथळ उदकांत, रेबट प्रदेशांनी आनी शेतांनी मेळटा. आपलें भक्ष धरच्या वेळार तें उथळ उदकांत एकेच सुवातेर उबें



रावता आनी आपलें सावज लागीं आयलें म्हण्टकूच ताचेर झोंपय मारून तें आपणाले लांब तोंचींत धरता. शेतांत वा रेबट वाठारांनी तें सदांच गोरवा फाटल्यान ल्हव ल्हव चलता आनी तांचे फाटल्यान उडपी बेबे आनी टोळ खाता. बकें हें पंगडा पंगडांनी रावपी सवणें आसलें तरी तें तळया वा कोंडा देगेर एकलेंच उबें आशिल्लें दिश्टी पडटा. तांचे घोंटेर चडशे उदका लागशिल्ल्या रुखांचेर पळोवपाक मेळटात.

गीम हो तांचो तांतयां घालपाचो तेंप आसता. ह्या तेंपार नर बकें चड आक्रमक आसता. तांचें मिलन जालेउपरांत तीं दोगांय मेळून घोंटेर बांदतात. तांचो घोंटेर सादो आनी विस्कळ आसता. मादी हातूंत ३ ते ५ तांतयां घालता. तांच्या तांतयांचो कोर निळो-पाचवोसो आसता आनी तांचेर बारीक बारीक थिपके आसतात. नर आनी मादी दोगांय पाळये पाळयेन तांतयां उबयतात. सादारणपणान एका म्हयन्यान तांतयां फोडून पिलां भायर सरतात. सुरवेक नरमादी मेळून तांकां लायतात. देड-दोन म्हयन्यांभितर हीं पिलां स्वतंत्रपणान उडपाक लागतात. खूबशे लोक ह्या सवण्यांचें मास खातात.

- एम.पी. तोणसेकार

**बक्रईद :** (बकरीईद) मुसलमान लोकांचो एक मुखेल उत्सव. ताका ईद अल अदहा, ईद अल-कुर्बान, ईद अल-नहर, ईद अल-कबीर अशीं हेर नांवां वेगवेगळया इस्लामी देशांनी रूढ आसात. तुर्कस्तानांत ताका 'बुयुक-बराम' वा 'कुर्बान बैरामि' म्हण्टात. ह्या दिसा, झुल-हिज्जह (जिल्हेज) म्हयन्याच्या धाव्या दिसा पशूबळी दिवपाची जी चाल आसा ती मुळांत अरबांनी हाडली. मक्के लागसारच्या मिना नगरांत सगळे यात्रेकार हो बळीचो विधी पुर्वापार मनयतात. हो विधी फकत हाजेची भोंवडी करपी

मिनास हेच करिनात जाल्यार सगळे 'साहिबेनिसाब' (म्हळ्यार गरजेपरस साडेसात तोळे भांगर वा साडेबावन तोळे रुपें ज्या मनशाकडेन चड आसता तो) मुसलमान ह्या दिसा हो उत्सव, आसा थंय आपले कुवती प्रमाण मनयता. दर एका मुसलमान मनशान धर्मीक नदरेन हो विधी मनोवप हें विहित आनी गरजेचें कर्तव्य मानलां. कुराणांत ह्या विधीविशीं उल्लेख मेळटा.

पशू विकतो घेवपाची ऐपत आशिल्ल्या साहिबेनिसाबान दर एकल्यान एक मेंढरूं वा धर्मीक नदरेन योग्य थरयल्लो खंयचोय पशू वा सात मनशांफाटल्यान एक ऊंट बळी दिवंचो पडटा. हो पशू थरावीक पिरायेचो आनी अव्यंग आसचो पडटा. सलात अल ईद सावन सुरू जावपी हो बळीविधी फुडें तीन दीस म्हळयार 'ऐयाम अल् तश्रीफ' मेरेन चलता. ह्या प्रसंगा वेळार 'तस्मिया' (बिस्मिल्ला असो जप), तक्बीर (अल्लाहु अकबर) म्हणप. पशूचें तोंड किब्लाचे (अस्तंत) दिकेन दवरप आनी बळीचो स्विकार करचो म्हणून याचना करप. बळी दितले त्या पशूच्या मासाचे तीन वांटे करून तातूंतलो एक स्वताखातीर, दुसरो सोयऱ्यांखातीर आनी तिसरो गरिबांक वांटपाखातीर वापरतात.

ह्या दिसा सगळे मुसलमान नवे कपडे घालतात आनी मेकळे सुवातेर, ईदग्याचेर उदेवपाउपरांत पूण सूर्य माथ्यार येवंचेआदीं एकठांय जमतात. हेर इमामांच्या नियंत्रणाखाल भौशीक प्रार्थना (नमाज) जाता. प्रार्थनेउपरांत इमाम 'खुत्बा' (धर्मीक प्रवचन) वाचता. धर्मीक नदरेन खुत्बा आयकत म्हत्वाचें मानतात. खुत्बा वाचतकच 'ईद मुबारक' म्हणून एकामेकांक मेळटात आनी परबीं दितात. उपरांत लोक आपआपल्या घरा वचून बळीविधी करतात. मेळपाखातीर आयिल्ल्या लोकांक फराळाचे पदार्थ आनी पानसुपारी तशेंच अत्तर दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**बक्साराचें झूज :** मोगल सम्राट दुसरो शाह आलम, ताचो वझीर आनी अयोध्येचो सुभेदार शुजा उद्दौला आनी बंगालचो मीर कासीम हांणी एक जावन ब्रिटीश इस्ट इंडिया कंपनी आड बक्सार गांवांत उबरिल्लें झूज (२२ ऑक्टोबर १७६४). बक्सार, बिहार प्रांतांत पाटणाचे अस्तंतेक सुमार १२० किमी. वयर गंगा न्हंयेचे दक्षिणेक वशिल्लें आसा.

प्लासीच्या झुजाउपरांत बंगालचो सुभेदार मीर जाफर हो ब्रिटीश इस्ट इंडिया कंपनीचे इत्सेआड वागपाक लागलो. मीर जाफरा उपरांत ताका वारस नाशिल्ल्यान ताच्या जांवया मीर कासीम हाका सुभेदारी दिवंची केल्ली. पूण कंपनीच्या ह्या सांगण्याक मीर जाफरान दाद दिलिना. ब्रिटिशांचें बळगें बंगालांत चड आसा तें पळोवन मीर जाफरान हॉलंडी लोकांचो आदार घेवपाचें थरयलें. बंगालांतल्यान इस्ट इंडिया कंपनीक धांवडावन घालचे खातीर शाह आलम हाणें मीर जाफराचो आदार घेतलो. शाह आलमाच्या जोड पालवान मीर जाफरान १७६० त पाटणा आनी मुर्शिदाबाद घेवपाचे यत्न केले. पूण ताका यश आयलेंना. हे घडणुकेक लागून कंपनीन ताका सत्तेवयलो देंवोवन मीर कासीमाक सुभेदारपद दिलें. उपरांत कंपनी आनी कंपनीच्या इंग्लीश नोकरांनी मीर कासीमाक कर भरिनासतना वेपार चालू दवरलो. बंगाल सुभ्यांतल्या लोकांनी आनी जमीनदारांनी कंपनीच्या वेपारा आड कागाळ केली. हाका लागून मीर कासीमान कंपनीकडेन कागाळ केली. हे कंपनीचे वागणुकेक लागून ताची कर वसुलीय उणी जावपाक लागली. पूण कंपनीन आपलो वेपार कर भरिनासतना चालूच दवरलो. हाका लागून मीर कासीमान सगळ्यांक कर भरिनासतना वेपार करपाक सवलती दिल्यो. कंपनीन अशे परिस्थितींत तैनाती फौजेच्या खर्चाखातीर खंडणी वाडोवन पयशाचो तगादो सुरू केलो. तेचपरी पाटणाचे कंपनीचो प्रतिनिधी एलिस हाचे वायट वागणुकेक लागुनूय हांगाचें वातावरण तंग जाल्लें. मीर कासीमान एलिसाआड कंपनीकडेन कागाळ केली. मीर कासीम आपूण सांगिल्लें आयकना तें पळोवन हाणें परत मीर जाफराक सुभेदार करपाचें थरयलें. ७ जुलय १९६३ दिसा कंपनीन मीर कासीमा आड झूज उबारलें. हाचे पयलीं म्हळयार २४ जून १७६३ दिसा एलिसान पाटणाचो किल्लो आनी पाटणा काबीज केलीं. ह्याच सुमाराक मीर कासीमाच्या सेनापतीन पाटणालागीं आशिल्ले ब्रिटीश कंपनीचे वखारीचेर घुरी घालून एलिसन आनी कंपनीच्या सैन्याक वखारींत कोंडून दवरले. खंयचेय परिस्थितींत बंगालांतल्यान ब्रिटिशांक धांवडावन घालपाचें अशें ताणें थरयलें. मीर जाफराक सुभेदारपद दिवंचे खातीर मुर्शिदाबादाक वतल्या कंपनीच्या सैन्याचेर मीर कासिमान घुरी घाली. पूण ताका यश आयलेंना. १९ जुलय १७६३ दिसा जाल्ल्या झुजांत ताचेर हार पडली. २३ जुलय १७६३ दिसा मुर्शिदाबादेक मीर जाफराक सुभेदारी मेळ्ळी. मीर कासीमान सुभेदारी मेळोवपाचे परतून यत्न केले. पूण ताका यश आयलेंना. उपरांत मीर कासीमान पाटणाकडेन कंपनीन कसलीय हालाचाल केली जाल्यार पाटणाचे वखारींत बंदी केल्ल्या एलिस आनी हेरांक मारून उडोवपाची धमकी दिली. कंपनीन मोंघीराचेर ताबो मेळयले उपरांत मीर कासीमाचो सेनापती वॉल्टर रायनहार्ट हाणें एलिस आनी हेरांक जिवेशीं मारले. नोव्हेंबर १७६३ त मीर कासीमान पाटणा सोंडलें आनी ताणें शुजाउद्दौलाचो आलाशिरो घेतलो. शाह आलम होय शुजाउद्दौलाभाशेन आशिल्लो. उपरांत शाह आलम शुजाउद्दौला आनी मीर कासीम हांणी मोगली संयुक्त आघाडी उबी करून पाटणाचेर घुरी घाली. १७६४ त पाटणालागीं संयुक्त आघाडी आनी कंपनी हांचेभितर झूज सुरू जालें.पूण पावसाक लागून मोगली सैन्यान बक्साराक तळ मांडलो.

बक्साराक एकवटीत आघाडे भितर वाद जावन तांचेमदी फूट पडली. शाह आलम हाणें गुप्तीतपणान कंपनीकडेन कबलात केली. मीर कासीमाच्या फुडारपणाखाला एकवटीत आघाडेक व्हडलेंशें यश मेळेंना. देखून उपरांत

शुजाउद्दौला हाणें सैन्याचीं सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. २४ ऑक्टोबर १७६४ दिसा कंपनी सैन्याच्या सेनापतीन एकवटीत आघाडेचेर आक्रमण केलें. एकवटीत आघाडेन केल्ले सगळे हल्ले अयशस्वी थरले. ताचेर हार पडली. ह्या झुजांत एकवटीत आघाडेचे हारीक लागून हांगा ब्रिटीश सत्तेची बुन्याद घालपाक यश आयलें अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**बखर वाङ्मय :** मराठी गद्य साहित्याचो एक प्रकार. राजवाडे हाच्या मताप्रमाण 'बख' म्हळयार 'उलोवप' ह्या धातुपसून 'बखर' हें उतर आयलां. 'खबर' ह्या अरबी उतराचो वर्णविर्पयास जावन बखर हें उतर निर्माण जालें अशें कांय जाणांचें मत आसा. बिल खैर म्हळयार खबर खुशालीची हकिकत ह्या उतरा वयल्यान बखर, बखेर, बखैर हीं उतरां घोळणुकेंत आयलीं अशें एक मत आसा. बोकड्यांच्या चामड्यांचेर बरोवपाचे अरबस्थानांतले प्रथेवयल्यान 'बकर' आनी उपरांत 'बखर' अशी उत्पत्ती जाली अशेंय मानतात.

हकीकत, कैफीयत, आत्मवृत्त, नामनेच्या दादले-बायलांचीं चरित्रां, तेसंबंदींच्यो आख्यायिका बरोवन दवरपाच्या उद्देशान, बखरी निर्माण जाल्यात. बखर लिखाणाफाटलो उद्देश इतिहासीक दस्तऐवज निर्माण करून दवरपाचो आसलो तरी इतिहासापरस राजकीय मनशाचीं चरित्रां, शुरांच्यो गाथा, तत्कालीन समाजीक आदर्श, प्रबोधन हांचेर भर दिल्ल्यान बखरी लिखाणांत इतिहासीक मुल्ल्यांक दुय्यम स्थान मेळ्ळां. ताका लागून बखरीकडेन एक इतिहास म्हणून पळोवंचेपरस एक पुर्विल्लो गद्यप्रकार म्हणून पळोवप चड सोयीचें जाता. भोवतेक बखरींची सुरवात करतना, बखरी लेखकान आपूण ही बखर सेवकाच्या नात्यान, ताच्या धनयाचे आज्ञेन बरयतां अशें म्हणिल्लें आसा. 'साहेबी मेहेरबानी करून सेवकास..... आज्ञा केली' (सभासद बखर) वा 'पत्री आज्ञा झाली की.... (भाऊसाहेबांची बखर) हीं बखरींतलीं सुरवातेचीं उतरां बखरीच्या लेखन प्रयोजनाफाटली भुमिका स्पश्ट करता.

बखरीची एक खाशेली लेखन शैली आसा. प्रौढ आनी रसाळ भास, अलंकारीक उपमा, लघुवाक्य रचणूक, वीर आनी करूण रस, फार्सी तशेंच संस्कृत आनी मराठी भाशेंतले वाक्प्रचार आनी म्हणी, अर्थपूर्ण दृश्टान्त हीं बखर लेखनाचे भाशेचीं कांय मुखेल खाशेलपणां. राजवाडे हाच्या मताप्रमाण आंध्रभृत्य सातवाहन राजांची म्हायती सांगपी 'शालिवाहनाची बखर' ही सगळ्यांत पोरनी बखर. हे बखरीच्यो दोन प्रती उपलब्ध आसात. महानुभावांनी सिंघण बी यादवांच्यो बखरी बरयल्ल्यो पूण त्यो उपलब्ध नात.

वि. ल. भावे ह्याच्या मताप्रमाण महिकावतीची वा बिंबस्थानची बखर १३ व्या शेंकड्यांत बरयल्या. पूण ते बखरीतलीं सय प्रकरणां वेगवेगळ्या काळामदीं बरयल्यांत. हातूंतलें पयलें आनी चवथें प्रकरण पद्यात्मक आसून, दुसरें आनी तिसरें प्रकरण गद्यांत आसा. कोंकणाचो इतिहास हे बखरीवयल्यान कळटा. प्रसंगांचीं आनी थळांचीं वर्णनां ओडलायणीं आसून व्यक्तिचित्रांय घसघशीत आसात. तशाक तशें घडणुकेचें वर्णन हें हे बखरीचें खाशेलपण. ताचेवयल्यान त्या काळांतल्या चालीरितींचीय म्हायती मेळटा. इ. स. १५६५ वर्सा जाल्ल्या तालिकोटच्या झुजाची खबर राक्षसतंगडीचे बखरींत बरयल्या. भाशेचे तशेंच आशयाचे नदरेन हे बखरीक मराठींत म्हत्वाची सुवात आसा. महिकावतीची बखर आनी राक्षसतंगडीची बखर ह्या दोन बखरींनी शिवपूर्वकाळांतल्या समाजाचें दर्शन जाताच, तेचवांगडा इतिहासीक लिखाणाचेंय मूळ सांपडटा.

बखरवाङ्मयाची परंपरा शिवकाळांत सुरू जाली. ते उपरांतच्या काळांत दोन अडेजशें बखरी बरोवप जाल्यो अशें राजवाडेचें मत आसा. बखरींच्या लिखाणाचो काळ आनी लेखक हांची नोंद सगळ्या बखरींनी मेळना. भायल्या-भितरल्या पुराव्यांच्या आदारान लेखक आनी काळ थरोवंचो पडटा.

इ. स. च्या १७ व्या शेंकड्यांत महाराष्ट्रांत स्वराज्याची स्थापणूक जातकच शिवचरित्राचेर जायत्यो बखरी बरोवप जाल्यो. शिवाजीच्या मरणाउपरांत, बखरकार कृष्णाजी अनंत सभासद हाणें बरयल्ली बखर इतिहासीक नदरेन म्हत्वाची थरता. इ. स. १७१८ वर्सा, खंडो बल्लाळ चिटणीस हाणें रचिल्ली 'श्रीशिवदिग्विजय' ही बखर विस्तारान आसून ती संस्कृत मोडणाची आसा. बल्लाळाचो पुतणयो रघुनाथ यादव चित्रे (चित्रगुप्त) हाणें इ. स. १७६१ वर्सा बरयल्ली शिवाजी महाराजाची बखर स्वतंत्र नासून सभासद हाणें बरयल्ले बखरीचीच ती विस्तृत आवृत्ती. अलंकारीक भास आनी सुंदर वर्णनां हांकां लागून हें शिवआख्यान बरें रंगलां. दत्ताजी त्रिंबक वाकेनवीस हाणें बरयल्ली बखर शिवचरित्राचे नदरेन म्हत्वाची थरता. साताराच्या प्रतापसिंह महाराजांचो चिटणीस मल्हार रामराव हाणें इ. स. १८१० च्या अदमासाक सप्तप्रकरणात्मक शिवचरित्र, मराठ्यांची बखर आनी हेर पांच छत्रपतींचीं चरित्रां रचल्यांत. चिटणीसी दप्तराचो उपेग केल्ल्यान ताचे हे ग्रंथ मोलादीक जाल्यात. इ. स. १८२९ त श्रीमंत सयाजीराव गायकवाड हाचे आज्ञेन 'श्रीशिवाजीप्रताप' हो ग्रंथ रचप जालो.

पेशवाईंत बखर वाङ्मयाचो खूब विकास जालो आनी तातूंत विविधताय आयली. त्या काळांतल्या घडणुकांविशींचीं कागदपत्रां व्हड प्रमाणांत उपलब्ध आशिल्ल्यान त्यो बखरी चड विश्वसनीय आनी वास्तववादी जाल्यात. शाहू महाराजाच्या मरणाउपरांत रोखडेंच इ. स. १७४९ वर्सा गोविंद खंडेराव चिटणीस हाणें रचिल्ली श्रीशाहूमहाराज हाची बखर म्हायतीपूर्ण आसून, तिची निवेदनशैली सादी आनी भास भारदस्त आसा. वसईखातीर चिमाजी आप्पान जो रणसंग्राम केलो, तेविशीं 'साश्टीची बखर' आनी 'वसईचो दुर्धर रणसंग्राम' अशो दोन बखरी उपलब्ध आसात. पानिपतच्या रणसंग्रामाचेर सात-आठ बखरी बरयल्ल्यो आसात. त्रिबंक सदाशिव पुरंदरे हाणें इ. स. १७६३ च्या अदमासाक बरयल्ली 'भाऊसाहेबाची कैफियत' ही बखररूय इतिहासीक नदरेन म्हत्वाची थरता. कृष्णाजी शामराव

हाणें बरयल्ली भाऊसाहेबाची बखर पानिपतच्या झुजावयल्या सगळ्या बखरींनी उत्कृश्ट आसा. मराठे आनी हैदर हांच्या सांवसीकुंदगोळच्या झुजांत सरदार पटवर्धनान पराक्रमाची शर्थ केली पूण निमाणें ताका हारूच घेवंची पडली. त्या प्रसंगाचे काळजाक हात घालपी वर्णन पटवर्धनी वाका नांवाचे बखरींत आसा. खर्ड्याचे स्वारीची बखर म्हळयार मराठ्यांच्या इतिहासांतलें भांगराचें पान.

धावडशीकर हाच्या चरित्राची बखर ताच्या शिश्यांभितर कोणें तरी सांप्रदायिक भावनेन बरयल्या. हातूंत खूबशो चमत्कारीक कथा आसात. इ. स. १७९३ वर्सा हनुमंत स्वामी हाणें समर्थांची बखर बरयल्या. हे बखरींत शिवाजी आनी रामदास हांचीं व्यक्तिचित्रां बखरकारान बरे तरेन चित्रायल्यांत. रामदासाच्या काळांतलो जयरामस्वामी वडगांवकर हाच्या चरित्राची बखर सांप्रदायिक आसून पुराणीक पद्दतीन बरयल्या. नाना फडणवीस आनी गंगाधरशास्त्री पटवर्धन हांणी आत्मचरित्रपर बखरी बरयल्यात.

इ.स. च्या १९ व्या शेंकड्याच्या पुर्वार्धांत होळकरांची कैफियत, पेशव्यांची बखर, मराठ्यांची बखर, हरिवंशाची बखर, नागपूरकर भोसल्यांची बखर ह्यो सगळयो बखरी, घराण्यांचो इतिहास ह्या स्वरुपांत बरयल्यो. तातूंत त्या त्या घराण्यांची म्हायती दिल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**बखले, भास्करबुवा :** (जल्म : १७ ऑक्टोबर १८६९, कठोर-बडोदा; मरण : ८ एप्रिल १९२२, पुणें).

नामनेचो प्रतिभावंत गायक, गायनाचार्य आनी अभिजात नाट्यसंगिताचे परंपरेचो प्रवर्तक. घरचे गरिबीक लागून मुळावें आनी उपरांतचें संस्कृत



पाठशाळेंतलें शिक्षण ताका खूब दगदगांनी घेवचें पडलें. गोड आवाजाची देणगी ताका जल्मजात मेळिल्ली. ताच्या गोड आवाजाखातिरूच पिंगळेबुवा नांवाच्या हरदासाकडेन ताच्या संगीत शिक्षणाची तजवीज जाली.

फुडें ताच्या गोड आवाजाची तोखणाय किर्लोस्कर कंपनींतलो भाऊराव कोल्हटकर हाच्या कानार गेली आनी ताणें ताका ते कंपनींत व्हेलो. हे कंपनींत आसतना इंदुराक ताचो आवाज आयकून नामनेचो बीनकार उस्ताद बंदे अलीखाँ खूश जालो आनी ताणें ताका आपूण जावन संगीत शिक्षणाखातीर गंडो बांदलो. सुमार दोन वर्सां किर्लोस्कर नाटक मंडळींत काम करतकच ताचो आवाज फुटलो. ते उपरांत कंपनींत ताचो अपमान जाल्ल्यान ताका किर्लोस्कर कंपनी सोडची पडली. ऊंच पांवड्याची गायनकला आत्मसात करपाखातीर तो परत बडोद्याक गेलो. थंय ग्वाल्हेर घराण्याचो उस्ताद फैज महंमद खाँ हाचे शिश्यत्त्व ताणें घेतलें. उपाट कश्ट, चिकाटी आनी निश्ठा ह्या गुणांक लागून ताचेकडल्यान शिक्षण घेवन ताणें खानदानी गवय म्हणून नामना मेळयली. फुडें फैज मंहमदाचेच सांगणेन ताणें आग्रा घराण्याचो उस्ताद नथ्थनखाँ आग्रेवाले हाचो गंडो बांदलो. नथ्थनखाँच्या मरणाउपरांत भास्करबुवान जयपूर घराण्याचो उस्ताद अल्लादियाखाँ हाचेकडेन संगीत शिक्षण घेवन ताचे गायकीचें मर्म आत्मसात केलें.

चिजेची मांडावळ आनी रागाचें स्वरूप स्पश्टपणान परगटावपी स्वरालाप हें ग्वाल्हेर घराण्याचें खाशेलपण; भावपूर्ण शब्दोच्चार आनी लयबध्द बोलाची मांडावळ हें आग्रा घराण्याचें खाशेलपण आनी जयपूर घराण्याची लयकारी असो त्रिवेणी संगम ताचे गायकींत जालो. ख्याल गायनावांगडाच ठुमऱ्यो, नाट्यसंगीत, सुगम संगीत, भजन, माण्डगीत अशे संगिताचे सगळे प्रकार तो गायतालो. चिजांचेर नाटकांतलीं पदां बसोवपाचें मुळावण ताणें घालें.

खूब कश्टान घेतिल्ली ही विद्या ताणें उदात्त मनान आपल्या शिश्यांक दिली. सुरवेक किर्लोस्कर आनी उपरांत गंधर्व नाटक मंडळीचो तो संगीत गुरू आशिल्लो. 'विद्याहरण', 'स्वयंवर', 'द्रौपदी' सारक्या नाटकांक संगीत दिवन तशेंच बालगंधर्व, मास्तर कृष्णराव, गोविंदराव टेंबे सारक्या कलाकारांक तालीम आनी मार्गदर्शन दिलें. ताणेंच घडयल्लें हें नाट्य संगिताचें स्वरूप आज थोड्या प्रमाणांत कायम आशिल्ल्यान ताका नाट्य संगिताचो 'कुलस्वामी' अशें म्हण्टात. ताचे नामनेचे शिश्य अशे- मास्तर कृष्णराव, बागलकोटकर, पाटणकरबुवा, बापूराव केतकर, ताराबाई शिरोडकर, अंजनी कळंगूटकार.

धारवाडच्या ट्रेनिंग कॉलेजींत ताणें कांय काळ गायन शिक्षक म्हणून नोकरी केली (१९०६-१९०८). पुण्याक ताणें 'भारत गायन समाज' (१९११) हे गायन संस्थेची स्थापना केली. ताचें मूळ घराणें गोंयांतलें, पूण ताचें कार्य गोंयाभायर जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**बगडावत :** राजस्थानी भाशेंतलें एक व्हड लोककाव्य. सेसूँ भाट हाणें हें काव्य बरयलां. ह्या काव्यांत पंदरा हजार छंद आसात अशें म्हण्टात. आयजमेरेन हें काव्य मौखिक रुपांतूच आसा. तें लिपीबद्द करपाचो एक यत्न जाल्लो पूण तो जमलोना.

बगडावत नांवाचे २४ वीर पुरूस मेवाडांत जावन गेले. तांणी जो इतिहास घडयलो तो थोडो रंगोवन आनी आपली कल्पनाशक्त वापरून ह्या काव्यांत वर्णिला. मेवाडांत आनी माळव्यांतूय ह्या काव्याचो खूब प्रचार आसा. ह्या लोककाव्याचे शृंगार आनी वीर अशे दोन प्रधान रस आसात. ह्या काव्यांत वीर रसाचें प्रमाण हिसपाभायर वर्णिल्ल्यान हें काव्य सकाळीं फुडें गायल्यार त्या दिसा कोणायकडेन तरी झगडीं जाताच अशी थंयच्या लोकांची समजूत आसा. ह्या लोककाव्याची थोडेभितर कथा अशी - अजमेराक बीसलदेव चौहान हो राजा राज्य करतालो. ताच्या राज्यांत एकदां एक वाग त्रास दिवपाक लागलो. दर दिसा तो दोन-चार लोकांक मारतालो. ताका आळाबंद हाडपाचे सगळे यत्न फुकट वचपाक लागले. तेन्ना राजान थरयलें, ताका दर दिसा एक मनीस खावपाक दिवपाचो. एक दिस माळिणीच्या पुताचेर ती पाळी आयली. तो वागाचे गुहेसरेन गेलो. इतल्यान हरराम नांवाच्या एका मनशान ताका पळयलो. माळिणीचो एकलो एकसुरो पूत बळी वता, हें हररामाक बरें दिसलेंना. तो तसोच गुहेसरेन गेलो. ताणें त्या भुरग्याक कुशीक काडलो आनी स्वता गुहेच्या तोंडार वचून उबो रावलो. रातीच्या तिसऱ्या प्रहराचेर, वागान हररामाचेर उडी घेवपाक हररामान, तरसादीन ताची तकली उडयली. ती घेवन हरराम पुष्कर क्षेत्रांत वता आसतना ताका लीला नांवाची एक आंकवार तपस्विनी मेळ्ळी. ती ताचे कामगिरीचेर भाळ्ळी. तिणें हररामाक म्हळें, तूं आतां राज्यांत वतकच, तुज्या धाडशी कृत्याक लागून राजा तुजो भोवमान करतलो. तुका वर मागपाक सांगतलो. तेन्ना तूं म्हाका माग'. हररामान तशें केलें. राजान कोकाशाह ह्या तिच्या बापायक सांगून तांचें दोगांयचें लग्न करून दिलें. तांकां पूत जालो. पूण ताची तकली शींवाची आनी धड मनशाचें आशिल्ल्यान हररामान त्या विद्रूप भुरग्याक व्हरून रानांत सोडलो. ही गजाल राजाक समजतकच राजान त्या भुरग्याक परत हाडलो आनी ताका हररामाचे सुवादीन केलो. राजाचे आज्ञेक लागून हररामाक, त्या भुरग्याक पोसचो पडलो. ताणें त्या भुरग्याचें नांव 'वाघला' अशें दवरलें. व्हड जातकच वाघला, गुजरांच्या चोवीस धुवांवांगडा लग्न जालो. ताका दरेकी एक अशे चोवीस पूत जाले. तांकां बगडावत ह्या नांवान वळखुपाक लागले. त्या चोविसांमदीं भोजा नांवाचो एक बगडावत आशिल्लो. तो सदांच रानांत गोरवांक घेवन गेल्लेकडेन एका योग्याची सेवा करतालो. त्या योग्याचे कृपेन, भोजाक खूब धन मेळ्ळें आनी तो गिरेस्त जालो. ताणें पडिहार राणाजी ह्या राजाकडेन इश्टागत केली. ताणें आपल्या भावांसयत सोऱ्याच्यो भट्ट्यो चलोवपाक सुरवात केली. ह्यो भट्ट्यो दीसरात पेट्टाल्यो. ते उबेन पृथ्वीच्या पोंदा वासुकी नागाचें मस्तक जळूंक लागलें. ताणें चामुंडा देवीची प्रार्थना करून तिका प्रसन्न करून घेतली. चामुंडेन ईढह सोळंकी हाच्या पोटांत जल्म घेतलो. आवय बापायन तिचें नांव 'जेलू' अशें दवरलें.

जेलू व्हड जातकच तिणें भोजाकडेन लग्न जावपाचें थरयलें. ते प्रमाण तिच्या बापायन भोजाकडेन सोयरिकेचो नाल्ल धाडलो. पूण आपलें लग्न जालां अशें सांगून भोजान तो नाल्ल परतिलो. उपरांत जेलूचें लग्न राणाजीकडेन थरलें. पूण जेलूक तें लग्न मान्य नाशिल्लें. तिणें भोजाची भेट घेवन आपली लग्नाची इत्सा उकतायली. तेन्ना भोजान तिका सांगलें, थरयल्लेप्रमाण आतां तूं राणाजीवांगडा लग्न जा. उपरांत तुकां हांव उबारून व्हरतां. जेलू राणाजीवांगडा लग्न जाली.

एक दीस राणाजी शिकारेक गेल्लो आसतना जेलू बगडावतांकडेन आयली. भोजान तिका आपणायली. राणाजीक जेन्ना ही गजाल समजली तेन्ना ताणें भोजावांगडा झूज केलें. जेलूय ह्या झुजांत देंवली. राणाजीन तेविसूय बगडावतांक काबार केले. निमाणो भोजा उरलो. सैन्याचे गर्दैंत जेलून भोजाची तकली उडयली तें पळोवन राणाजीक अजाप जालें. ती तकली घेवन जेलू भोजाची बायल साढू हिचेम्हऱ्यांत गेली. घडिल्ली सगळी खबर आयतकच साढू, सती वचपाखातीर भोजाची तकली मागूंक लागली. त्या वेळार जेलून तिका सांगलें, 'तूं सती वचूं नाका. हांव शक्तिदेवी. म्हजे कृपेन तुगेर एक भुरगो जल्माक येतलो, तो देवाचो अवतार आसतलो.' ज़ेलू वतकच, साढूक एका तळयांतल्या कमळांत एक बाळक दिसलें. ताचें नांव तिणें उदयराव अशें दवरून ती आपल्या भावागेर रावपाक आयली.

एक दीस उदयराव सिध्दवजालागीं गेल्ले कडेन थंयच्या उदकांत कांय योगिनी न्हातना ताणें पळयल्यो. ताणें तांचीं वस्त्रां लिपयलीं. न्हावन जातकच त्यो उदयरावाकडेन वस्त्रां मागूंक लागल्यो. पूण उदयरावान तांकां सांगलें, 'म्हाका तुमी वर दिल्यार हांव तुमकां वस्त्रां दितलों'. योगिनींनी ताका वर दिलो.

एक दीस उदयरावाक भाटाकडल्यान आपल्या पुर्वजांची कथा समजली. राणाजीन आपल्या पुर्वजांक मारले हें कळटकच, ताणें राणाजीचो सूड घेवपाचें थरयलें. आपल्या कांय इश्टांक घेवन तो उज्जैनासावन भायर सरलो. वाटेंत धारानगरीक तो जयसिंहदेव परमार हाचे चलयेवांगडा लग्न जालो. थंयसावन तो अजमेराक आयलो. थंय येतकच ताणें सगळयांक त्रास दिवपाक सुरवात केली. राणाजीकडेन ताच्यो कागाळी पावल्यो ताणें उदयरावाचेर सैन्य धाडलें. उपरांत दोगांयचें झूज पेटलें. उदयरावान राणाजीचो वध केलो.

उदयराव जेन्ना थंयसावन वचपाक भायर सरलो तेन्ना राणाजीचे बायलेन ताका विचारलें, आतां आपूण किदें करूं? तेन्ना उदयरावान तिका दोन फुलां दिलीं. त्या फुलांतल्यान एक चलो आनी एक चली अशीं दोन भुरगीं तयार जालीं. 'हीं दोनूय भुरगीं तुचो सांबाळ करतलीं आनी तुचो वंश चलयतलीं' असो वर दिवन उदयराव थंयसावन गेलो.

बगडावतांचो काळ इ. स. १२४७ च्या सुमाराचो मानतात. मेवाडांतल्या आसींद हे जहागिरींत त्या काळांत बगडावतांचें वास्तव्य आशिल्लें अशें सांगतात. ते जहागिरींतल्यान व्हांवपी खारे न्हंयेचे दुसरे देगेर भोजाचें

देवूळ आसा. गुजर लोक ताका पवित्र क्षेत्र मानतात आनी थंयचे मूर्तीचेर सोऱ्याच्यो बाटल्यो ओततात. थंयच जेलूचीय मूर्त आसून, तिच्या गळयांत बगडावतांच्या शिरांची माळ आसा. मेवाडांतले गायक लोक जंतर नांवाच्या एका वाद्याचे साथीचेर ह्या काव्याचें गायन करतात. आजुनूय ह्या काव्याची लोकप्रियता उणी जावंक ना.

- कों. वि. सं. मं.

**बगदाद :** इराक देशाचें राजपाटण आशिल्लें इतिहासीक नामनेचें शार. हें शार दक्षिण-उत्तर दिशेक व्हांवपी टायग्रिस न्हंयेच्या दोनूय काठांचेर आनी युफ्रेटीस न्हंयेसावन उत्तरेक सुमार ४० किमी. मेरेन आंतरराश्ट्रीय रेल्वेमार्गाचेर वशिल्लें आसा. टायग्रिसाचे उदेंतेक आशिल्ल्या शाराच्या भागाक अल्-रुशाफह अशें म्हण्टात. चडशो इतिहासीक वास्तू ह्याच भागांत आसात. न्हंयेचे अस्तंतेक आशिल्ल्या भागाक अल्-कर्ख म्हण्टात. हे दोनूय भाग पुलांनी जोडिल्ले आसात.

इराकांतल्या चडशा व्हड उद्देगधंद्यांचें बगदाद हें मुखेल केंद्र. हांगा ॲरॅक हो सोरो काडपाच्यो भट्ट्यो, तशेंच चामड्याच्यो वस्तू, कपडे, तंबाकू, शिमीट आनी तेल निवळ करपाचे कारखाने आसात. खाजूर, कड्डण, लोकर, गालीचे हांची ही व्हड बाजारपेठ. हांगाच्यान तांची निर्यातूय व्हडा प्रमाणांत जाता. देशांतले रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी हांचें तें केंद्र. हांगा स वस्तूसंग्रहालयां आनी तीन विद्यापिठां आसात.

**इतिहास :** टायग्रिस न्हंयेच्या अस्तंत कांठार वशिल्ल्या बगदाद शारांत ७६२ त अब्बासी खलीफा अल्-मन्सूर हाणें आपलें राजपाटण उबारिल्लें. मुखार हारून अल्-रशीद हाणें णवव्या शेंकड्याचे सुरवेक ह्या शारांत विकास घडोवन हाडलो. तशेंच इस्लामी संवसारांतलें ज्ञानविज्ञान, कलाकुसर, उद्देगधंदे हांचें तें मुखेल केंद्र केलें. बगदादच्या इतिहासांत ह्या काळाक भांगरा काळ म्हणून वळखतात. उपरांत अल्-मामून हाणें (कार ८१३-३३) ह्या शारांत अकादमी आनी ग्रंथालयाची स्थापणूक करून, आदल्या ग्रीक-इराणी वाङ्मयाचो अरबी भाशेंत अणकार करपाची वेवस्था केल्ली. अरेबियन नायट्स वा वन थाउजंड ॲंड वन नायट्स हातूंतल्यो खूबशो कथा ह्या तेंपार बगदादाक घडिल्ल्यो आसात. अशें मानतात. ८०९ त राजपाटण समाराक शारांत हालयले. सुमार ५०-६० वर्सांमेरेन तें थंयच आशिल्लें. पूण णवव्या शेंकड्याचे अखेरेक तें परतून बगदादाक हाडली. ह्या वेळार ती टायग्रिस न्हंयेच्या उदेंत कांठाचेर उबारिल्ली. चंगिझखान हाचो नातू हुलागूखान हाणें १२५८ त अल् - मुस्तशिम ह्या निमाण्या अब्बासी खलिफाचो खून करून बगदाद शाराचो विध्वंस केलो. मुखार इराणाचो पयलो इस्मायलशाह हाणें १५०८ हें शार हस्तगत केलें. उपरांत ऑटोमन सुलतान सुलेमान पयलो हाणें १५३४ त तें इराणाकडच्यान घेतलें. १६३८ त तुर्कस्तानचो चवथो मुराद हाणें ताचेर जैत मेळोवन ह्या शाराचो ऑटोमन साम्राज्यांत आस्पाव केलो. ह्या खिणासावन ते पयल्या म्हाझुजामेरेन इराकाचो भूंयप्रदेश हो ऑटोमन साम्राज्याचो एक वांटो आशिल्लो. १७५५ त ब्रिटिशांनी वेपाराच्या निमतान हांगा एक वखार उगडली. उपरांत ब्रिटिशांचो शेक हांगा वाडत रावलो. १९१७ त तांणी हें शार आपल्या शेकातळा हाडून १९२१ त इराकाची राजधानी थंयच उबारली. १९५८ त कासीम हाणें राजेशायी नश्ट करून सगळी सत्ता आपल्या हातांत घेतली. १९६३ त कासीम हाची हत्या करून बाथ पक्ष सत्तेर आयलो.

सद्या बगदाद हें अरब राज्यांत मुखेल वेपारी केंद्र. १९७० सावन खनीज तेल उत्पादनांत वाड जाल्या उपरांत, शाराचें आधुनिकीकरण हाचेर भर दिवप जालां. शारांतली येरादारी वेवस्थाय उच्च दर्जाची आसा. पूण इराक सरकारान बगदाद शारा भोंवतणी आशिल्लीं थडगीं, मशिदी, पोरने राजवाडे आनी हेर इतिहासीक अवशेश तशेच राखून दवरल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बगदाद कबलात :** अस्तंत आशियांतल्या राश्ट्रांनी परस्पर सुरक्षीततायेच्या हेतान १९५५ वर्सा जी कबलात केल्ली, तिका 'बगदाद कबलात' अशें म्हण्टात. अमेरिका आनी ब्रिटन हांच्या तेक्याक लागून अस्तित्वांत आयिल्ले हे कबलात संघटनेंत तुर्कस्तान, इराक, इराण, पाकिस्तान आनी इंग्लंड हीं राश्ट्रां आस्पावल्यांत. रशियाचे संभाव्य घुरयेचो आनी हस्तक्षेपाचो प्रतीकार करूंक शक्य जावंचें म्हणून मध्य उदेंतेकडल्या राश्ट्रांनी एकामेकांच्या पालवान ही कबलात केली. हे कबलातीच्या वांगडी राश्ट्रांक अर्थीक आनी लश्करी पालव दिवपाचें अमेरिकेन थरयल्लें.

सामके सुरवेक २४ फेब्रुवारी १९५५ दिसा हे कबलातीचेर तुर्कस्थान आनी इराक ह्या राश्ट्राच्या प्रतिनिधींच्यो निशाण्यो घेतल्यो. उपरांत त्याच वर्सा ५ एप्रिलाक इंग्लंडान, २३ सप्टेंबराक पाकिस्तानान, १२ ऑक्टोबराक इराणान हे कबलात-संघटनेचें वांगडीपद मानून घेतलें. अमेरिकेन वांगडीपदाचो स्विकार केल्लो नासलो तरी हे कबलातीचें काम ज्या कितल्याशाच मंडळांवरवीं चलतालें तातूंत अमेरिका वांटेकार जाताली.

हे कबलातीक लागून आपलें म्हत्व वाडटलें अशें इराकाक दिसतालें. कारण इराक हें राश्ट्र अरब लीग आनी बगदाद कबलात ह्या दोनूय संघटनांचें वांगडी आशिल्लें. युरोपीय राश्ट्रां आनी अरब राश्ट्रां ह्या दोगांयमदलो दुवो म्हणून काम करपाची इराकाची म्हत्वाकांक्षा आशिल्ली. अरब लीगांत इजिप्त, सिरिया, लेबानॉन, इराक, ट्रान्सजॉर्डन, साउदी अरेबिया आनी येमेन ह्या राश्ट्रांचो आस्पाव आशिल्लो. इजिप्ताच्या मतान बगदाद कबलातीक लागून अरब लीगाचो भंग जाता. देखून इजिप्तान हे कबलातीचेर टिका केली. रशियाकूय ही संघटना म्हळ्यार अमेरिका-इंग्लंडाचो हस्तक्षेप आसा अशें दिसलें आनी हे कबलातीक प्रत्युत्तर म्हणून

रशियाच्या फुडाकारान मे १९५५त 'वॉरसॉ कबलात संघटना' स्थापन केली. रशियाच्या प्रभावासकयल उदेंत युरोपी राश्ट्रां तातूंत आस्पावलीं.

इजिप्त आनी सिरिया हांणी १९५८त 'एकवटीत अरब गणराज्य' स्थापन केल्ल्यान आनी इराक आनी जॉर्डन हांणी 'अरब संघ' स्थापन केल्ल्यान बगदाद कबलातीचें म्हत्व उणें जालें. प्रदेशीक सहकार करून लश्करी बळगें वाडोवपाचो हे कबलातीचो हेत दुर्लक्षीत जालो. इराकांत १९५८ त हॅरोमायट राजवट सत्ताभ्रश्ट केली. उपरांत आयिल्लो राज्य मुखेली अब्दुल करीम कासीम आनी ताचे वांगडी हांचे एकवटीत अरब गणराज्याकडेन लागींचे संबंद आशिल्ले. ताका लागून नवे राजवटीन बगदाद कबलातीचें वांगडीपद रद्द केलें. तेच वांगडा बगदाद कबलात संघटनेचें बगदादांतलें मुखेल कार्यालय लेगीत तुर्कस्थानाची राजधानी अंकाराक व्हेलें. उपरांतच्या काळांत हे कबलात संघटनेचें नांव बदलून ताका 'सेंटो' (Central Traty Organization) अशें नांव दिलें.

- कों. वि. सं. मं.

**बगुली :** बिहार प्रदेशांतल्या बायलांचें एक गीतनाट्य. आश्विन म्हयन्यांत एक दीस सांजवेळार कांय बायलो एकठांय जमतात. तातूंतली एक बायल माथ्यार एक बुरखो घेता आनी तातूंतल्यान नाकामुखार आपलो एक हात चोंची भाशेन हालयता. ते बायलेक बगुली अशें म्हण्टात. ह्या वेळार तिच्या दोनूय वटांनी सारके संख्येन हेर बायलो उब्यो रावतात. बगुली एके दिकेसावन, दुसरे दिकेवटेन धांवता आनी 'दीदिया' नांवान आपले इश्टिणीक उलो मारता. दीदिया आनी बगुलीचो संवाद जाता. बगुली उपरांत अडेच्या रागान न्हंयेचे दिकेन धांवंक लागता. हांगा ह्या गीतनाट्याचो पयलो देखाव सोंपता.

दुसऱ्या देखाव्यांत न्हंयेचे देगेर आयिल्ली बगुली, आपल्याक घराकडेन पावय म्हणून तारयाक विनयतना दिसता. पूण तारयो कसोच आयकना आनी तिचेंकडेन कांय गजालींची मागणी करता. जशी बगुलीची विनवणी वाडत वता तसो तारयो आपली मागणीय वाडयता. निमाणें तारयो बगुलीबरोबर संभोग करपाची इत्सा उकतायता. तेन्ना बगुली ताका न्हयकार दिता आनी नाटक सोंपता.

- कों. वि. सं. मं.

**बघेली लोकसाहित्य :** बघेल खंडांतल्या सामान्य लोकांचे बोली भाशेक बघेली अशें नांव आसा. अवधी भाशेभाशेनूच बघेली ही लेगीत हिंदीचोच एक फांटो. अवधी आनी बघेली हातूंत चडशें सारकेंपण आसा. बघेली भास अजुनूय बोलीच्याच स्वरुपांत उरल्या. ताका लागून हे भाशेंत विदग्ध साहित्य चडशें ना. गद्य-पद्य लोकसाहित्य खूब आसा.

ह्या प्रदेशांतलें शिक्षणाचें माध्यम सुरवातेक सावन खडी बोली आशिल्ल्यान बघेली कवींची तशेंच ग्रंथ लेखकांची संख्या खूब उणी आसा. ह्या साहित्यिकांभितर मधुर अली, पं. हरिदास, नजीरुद्दीन सिद्दिकी, हाफिझ मुहमद खाँ, बैजनाथप्रसाद अग्निहोत्री, रामेश्वरप्रसाद मिश्र, सैफुद्दिन सिद्दिकी, ब्रजकिशोर निगम, जगदीशप्रसाद द्विवेदी, मोहनलाल श्रीवास्तव, रुपनारायण दीक्षित, समबेटा पांडेय, कुंतिदेवी अग्निहोत्री ह्या नामनेच्या लेखकांचो आस्पाव जाता. पं. भवानीदीन शुक्ल हाणें रामायणाचीं कांय कांडां बघेलींत अणकारल्यांत.

बघेली गद्य साहित्य खूब आसा. तातूंत सवणीं, जनावरां, राजा-राणी, साधू-संत, देव-देवता, तशेंच जादू, भुतां-खेतां हांचेविशींच्यो कथा आसात. उपदेशाचेर बरयल्ल्यो कांय कथा आसात. ह्या कथांच्या अध्ययनान बघेली लोकांचे संस्कृतीची खूब म्हायती मेळटा.

बघेली पद्य साहित्याचे लोकगितां आनी पोवाडे अशे मुखेल दोन वर्ग पडटात. पोवाडे हे लोकगाथा आसून ते कथात्मक आसतात. लोकगितांचे खूब प्रकार आसात. तातूंत संस्कारगितां, देवतागितां, ऋतुगितां, प्रेमगितां आनी बालगितां हे मुखेल प्रकार आसात. संस्कारगितांतलीं सोहर, दादरा, बनरा, सोहाग, बिदा आनी ऋतुगितांतलीं कजली, फाग, बारहमासी हीं गितां चड लोकप्रिय आसात.

विंध्य प्रदेशांतल्या खूबशा नेमाळ्यांतल्यान बघेली लोकसाहित्याचेर संकलनात्मक आनी समिक्षात्मक अशें खूबशें लिखाण जालां.

- कों. वि. सं. मं.

**बच्च नग्म :** काश्मिरांतलो एक नामनेचो नाच. बच्च म्हळयार मिशो फुटूंक नाशिल्ले चले आनी नग्म म्हळयार नाच. हाचो खरो अर्थ पद वा राग असो जाता. पूण ह्या नाचांत पदांचो आस्पाव आशिल्ल्यान ह्या नाचाक हें नांव मेळ्ळां.

पयलीं वेवसायीक मुसलमान नर्तकी हाफिझ नग्म नांवाचो नाच करताल्यो. या नाचांतल्यानच हो नवो नाच तयार जावन लोकप्रिय जालो. चले, बायलांभाशेन लांब केंस दवरतात आनी बायलांचो भेस करून हो नाच करतात. मुखेल नर्तकी लेंगो आनी ओडणी वापरता. पांयांनी घुंगूर बांदता. रंगमाचयेर येवन तो पयलीं सलामीचो नाच करता. उपरांत नाचांतल्या पथकांतले लोक विंगड विंगड वाद्यां वाजोवन, पदां म्हणून नाचतात. हो नाच कथ्थक नाचाभाशेन आसता. ह्या नाचाचें एक पद अशें आसा-

हा गुलो! तो हि मासह वुछवन यार म्योन
बुलबुल तो हि छेन्डतोन दिलदार म्योन
उलफतुक सौदा कुनुम गाह मिल ह्योतुम
अथ तरीकिस प्यठ्चल्यौ बाजार म्योन

रोश प्यठ् वल पोश बागुक हिथ करिथ
चान्यि यिन फ्वल्य दिलबरो गुलजार म्योन
दानपोशोजोश वल् वजलाब बाग
लंज अविज गवनि गुबजाह बार म्योन
चूरि ललवुम लोलजार तस छा खबर
छाह छाए जाह गव उमार म्योन
खस्तअ दिल महजूर सारि सपनिय वनान
तस मदन वारसति आवना आर म्योन

**अर्थ :** हे फुलांनो, तुमी म्हजे मोगिकेक बी पळयल्या? बुलबुलांनो, तुमी म्हजे मोगाळ मोगिकेक सोदात. प्रेमाचो वेपार करतना, हावें दुख्ख विकतें घेतलें. अशे तरेन म्हज्या प्रेमाचो बाजार जाला. हे प्रिये, तूं मोगाचो चादर पांगरून आनी हातांत फूल घेवन म्हजे म्हऱ्यांत आयल्यार म्हज्या भावनांक चंवर येतलो. तूं भावनांच्या आवेगान येवन म्हज्या काळजाचें पोरसूं तुज्या प्रेमाचे लालीन रंगोवन उडय. प्रेमाचे झुलपी खांदयेर म्हज्या काळजाचें वजें जड जावंचेना. हांवें म्हजो मोग मनांतूच लिपोवन दवरलो आनी तो भितरले भितर घुस्मटून पोको जालो हें तिका खंय खबर? दुखावल्लो मजहर (कवी) म्हण्टा, म्हजे मोगिकेक म्हजी इल्लीय काकुळट आयलिना.

अनंतनागचो गोपीनाथ हो बच्च नग्माचो कुशळ नर्तक अशें मानतात. मुहियुद्दिन आनी श्रीनगर हांगाच्या अब्दुल गनी ह्या दोन कलाकारांनीय ह्या नाचांत खूब नामना मेळयल्या.

सुगीच्या दिसांनी काश्मिरांत वाड्यावाड्यांचेर हो नाच करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बच्चन, हरिवंशराय :** (जल्म : २७ नोव्हेंबर १९०७, चक, जीरोरोह, अलाहाबाद (उ. प्र.).

नामनेचो हिंदी कवी. ताच्या बापायचें नांव प्रताप नारायण श्रीवास्तव आनी आवयचें नांव सुरसती (सरस्वती देवी). ल्हानपणांत ताका अपुरबायेन सगळीं 'बच्चन' म्हण्टालीं. त्याच नांवान उपरांत ताणें लिखाण केलें. ताचें सुरवातेचें शिक्षण उर्दु भाशेंतल्यान जालें. घरचे गरीब परिस्थितीक लागून ताच्या शिक्षणांत खूब आडमेळीं आयलीं.



१९२७ वर्सा बच्चन श्यामाजी हिचेवांगडा लग्न जालो. पूण १७ नोव्हेंबर १९३६ वर्सा तिका मरण आयलें. उपरांत २४ जानेवारी १९४२ वर्सा तेजी हिचेवांगडा तो दुसरे खेपे लग्न जालो. अमिताभ आनी अजिताभ हे ताचे दोन चले. अमिताभ हो हिंदी चलचित्रपट सृश्टींतलो नामनेचो कलाकार आनी अजिताभ हो नामनेचो वेपारी.

बच्चन १९२९ वर्सा अलाहाबाद विद्यापिठांतल्यान पयल्या वर्गांत बी. ए. पास जालो. १९३८ वर्सा एम.ए. आनी १९३९ वर्सा बनारस हांगाच्यान तो. बी. टी. जालो. १९४२ वर्सा सावन अलाहाबाद विद्यापिठांत तो इंग्लीश विशयाचो प्राध्यापक म्हणून काम करूंक लागलो. डब्लू. बी. यिट्स ह्या नामनेच्या आयर्लंडी कवीचेर 'डब्लू. बी. यिट्स अँड ऑकल्टिझम' हो प्रबंध बरोवन ताणें १९५४ वर्सा कँबिज विद्यापिठाची पीएच. डी. घेतली. सप्टेंबर १९५५ मेरेन तो अलाहाबाद विद्यापिठांत आशिल्लो. इतले मजगतीं इंग्लंडाक वचून ताणें आपली डॉक्टरेट पदवी घेतली. उपरांत अलाहाबाद आकाशवाणीचेर हिंदी विभागाचो निर्मातो म्हणून ताणें कांय काळ नोकरी केली. १९५५-५६ ह्या वर्सा भारत सरकारच्या विदेश मंत्रालयांत खास अधिकारी ह्या नात्यानूय ताणें काम केलें. १९६६ वर्सा राज्यसभेचो वांगडी म्हणून ताची नेमणूक जाली.

बच्चन हाणें कवितेच्या क्षेत्रांत खूब साहित्यीक योगदान दिलां. ताचे 'मधुशाला' (१९३५), 'मधुबाला' (१९३६), 'मधुकलश' (१९३७) हे कविता झेले उजवाडाक आयले आनी हिंदी काव्यांतलो ताचो 'हालावादा'चो प्रवाह सुरू जालो. ल्हानपणांतली घरची गरीब परिस्थिती आनी पयले बायलेचें मरण हाका लागून ताचेर हालावादाचो प्रभाव पडलो. हेच दुखेस्त अवस्थेंत आसतना एडवर्ड फित्झजॅराल्ड हाणें अणकारीत केल्ल्या उमर खय्याम हाच्या रुबायांचो प्रभाव ताचेर पडलो.

उपरांत ताची वैयक्तीक जीण सुखी जाल्ल्यान ताचेवयलो हालावादाचो प्रभाव ल्हव ल्हव नश्ट जायत गेलो. फुडें ताचेर महात्मा गांधीच्या राजकीय कार्याचोय प्रभाव पडलो. ताचीं कांय नामनेचीं पुस्तकां अशीं- 'निशा निमंत्रण' (१९३८), 'एकांत संगीत' (१९३९), 'मिलन यामिनी' (१९५०), 'खादी के फूल' (१९४८), 'सूत की माला' (१९४८), 'बंगाल का अकाल' (१९४६), 'चार खेये चौंसठ खूँट' (१९६२), 'सतरंगिणी', 'प्रणयपत्रिका' तशेंच बुध्द आनी नाचघर. 'क्या भूलूँ क्या याद करुं?' हे ताणें बरयल्ले आपजिणेचे पयले तीन खंड उजवाडा आयल्यात. हिंदींतल्या आत्मचरित्रांत बच्चन हाणें मोलादीक वावर केला. मॅक्बॅथ (१९५८) आनी ऑथेल्लो हांचो हिंदींत अणकार केला. तशेंच फित्झजॅराल्ड हाच्या उमर खय्यामाच्या रुबायांचोय हिंदी अणकार ताणें केला. भगवद्गीतेचोय ताणें 'जनगीता' ह्या नांवान हिंदी अणकार केला.

छायावादी हिंदी कवितेक वाजेल्ल्या वाचकांक सरळ आनी सोंपी अशी काव्य रचना करून तशेंच खास करून माचयेवयल्यान केल्लें काव्यगायन

हांचेवरवीं बच्चन हाणें रसिकांक मुग्ध केले. ताणें हिंदी काव्याची गोडी वाडयली. संस्कृत शब्दप्रयोग आनी प्रतिकां-प्रतिमा हांणी नटिल्ले शैलीचो त्याग करून वेव्हारीक भाशेवरवीं काव्याची रचणूक करपाचें मोलादीक इतिहासीक काम ताणें केलें. उर्दू उतरांचो जाय थंय योग्य वापर ताणें आपल्या काव्यांत केलो.

१९६६ वर्सा ताच्या 'चौंसठ रुसी कविताएँ' ह्या झेल्याक सोविएत लँड नेहरू पुरस्कार, १९६८ वर्सा 'दो चट्टाने' काव्याक साहित्य अकादेमी पुरस्कार, हिंदू साहित्य संमेलनाकडल्यान १९६८ वर्सा 'साहित्य वाचस्पति' ही भोवमानाची उपाधी, १९७० वर्सा ॲफ्रो-आशियायी लेखक परिशदेकडल्यान 'लोटस पुरस्कार', 'स्वरस्वती पुरस्कार' (१९९२) हे पुरस्कार आनी भोवमान, बच्चन हाका फावो जाले.

ताणें इंग्लंड, बोल्जियम, रशिया, मोंगोलिया, उदेंत जर्मनी, झेकोस्लोवाकिया ह्या देशांनी भोंवडी केल्या.

- डॉ.बी.डी.मिश्र.

## बच्चु, राजाराम लाला : (जल्म : २७ डिसेंबर १९२२, वैगांव, मालगांव, नासिक, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. इंडियन नॅशनल काँग्रेस समितीचो तो वांगडी आशिल्लो. १९४२ वर्सा जाल्ल्या 'भारत छोडो' आंदोलनांत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९४८ त तो 'सोशलिस्ट पार्टी' चो वांगडी जालो. बांदासावन गोंयची शीम हुंपपाक मोरजे (पेडणें) १५ ऑगस्ट १९५५ दिसा जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेखातीर पुलिसांनी ताका धरून बंदखणींत घालो. रोखडीच १९ ऑगस्ट दिसा ताची सुटका जाली. १९६७-१९७२ ह्या काळांत तो नासिक जिल्हा परिशदेचो वांगडी आशिल्लो. ३० जानेवारी १९८८ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## बजाज घराणें : भारतांतल्या एका उद्देगसमुहाचें प्रवर्तक घराणें.

आंतरराश्ट्रीय मळार विदेशी कंपन्यांवांगडा तंत्रीक आनी वेवस्थापकीय आदारान मेळिल्ले जे कांय उद्देग आसात तातूंत बजाज उद्देग समुहाचो वयलो नंबर लागता.

१९२६ त जमनालाल बजाजान बच्छ राज फॅक्टरीस लि. मुंबय हो पयलो निगम सुरू करून बजाज उद्देग समूहाक मुळावण घालें आनी ताचें कार्य फुडें व्हेलें. ताच्या कमळनयन आनी रामकृष्ण ह्या दोन पुतांनी जायते तरेचे उद्देग सुरू करून बजाज उद्देगसमुहांत मोलादीक भर घाली.

**जमनालाल बजाज :** (जल्मः ४ नोव्हेंबर १८८९, कार्साकाबास, जयपूर; मरणः ११ फेब्रुवारी १९४२). हो ह्या उद्देग समुहाचो संस्थापक.



पिरायेच्या चवथ्या वर्सा ताका सेठ बच्छराज बजाज हाका पोसको दिलो. ताणें मुळावें शिक्षण वर्ध्याक घेतलें. तशेंच इंग्लीश, हिंदी, गुजराती ह्यो भासोय शिकून घेतल्यो. १९०२ वर्सा ताचें जावरा हांगाच्या सेठ गिरधारीलाल जाजोदिया हाचे जानकीदेवी हे चलये कडेन लग्न जालें. ताका कमलनयन आनी रामकृष्ण हे दोन चले जाले. तरणेपणांत ताका गांधी, टिळक, पंडीत मदनमोहन मालवीय, रवींद्रनाथ टागोर आदी व्हड फुडाऱ्यांचो सहवास मेळ्ळो. १९०८ त तो मानसेवी दंडाधिकारी जालो. फुडें १९१८ त ताका 'रायबहादूर' हो किताब मेळ्ळो. गांधीजी ताका आपलो 'मानसपूत' मानतालो. १९२० त तो अखिल भारतीय राश्ट्रीय काँग्रेसीच्या अधिवेशनाचो येवकार अध्यक्ष आशिल्लो. ह्याच वर्सा ताणें असहकार चळवळींत वांटो घेवन आचार्य विनोबा भावेच्या फुडारपणाखाला वर्ध्याक सत्याग्रह आश्रमाची स्थापना केली आनी काँग्रेसीच्या थारावाप्रमाण आपल्याक मेळिल्लो 'रायबहादूर' हे पदवेचो त्याग केलो. उपरांतच्या काळांत ताणें भारताचे सुटकेखातीर जायतो वावर केलो, जाचेखातीर ताका जायते फावट बंदखणीची ख्यास्त भोगची पडली. जायत्या संस्थांचो तो अध्यक्ष आनी सचिव आशिल्लो. ताणें जायत्यो संस्था स्थापन करून अस्पृश्यताय निवारण, गोवर्धन, शिक्षण संस्था हांकां भरपूर प्रमाणांत अर्थीक आदार दिलो. स्वताचे मालकेचें लक्ष्मीनारायणाचें देवूळ ताणें हरिजनां खातीर उकतें केलें (१९२८). वर्धा लागसरल्या 'सेगाव' ह्या खेडेगांवाची आपली जमीन गांधीजीक दिवन थंय 'सेवाग्राम आश्रम' (१९३८) स्थापपाक आदार दिलो. वर्ध्याक ताणें 'गोसेवासंघाचीं' स्थापना केली (१९४१). बायलांक समान हक्क मेळोवन दिवपाक स्त्रीशिक्षणाचें म्हत्व वळखून ताणें वर्ध्याक मारवाडी शिक्षण मंडळाची स्थापना केली. तेचपरी ताणें गांधीजीच्या मुलोद्योग शिक्षणाचेर भर दिलो.

हाचेभयर ताचें सगळयांत म्हत्वाचें काम म्हळयार ताणें १९२६ वर्सा घाल्ली बजाज उद्देग समुहाची बुन्याद. ह्या उद्देग समुहावरवीं ताणें १९३१ वर्सा पयलो साकर कारखानो सुरू करून भरपूर आस्पत मेळयली आनी हे आस्पतीचो उपेग जायत्या भौशीक कामांखातीर केलो. देखीक-मुंबय विद्यापिठाक ताणें १० लाख रुपयांची देणगी दिवन 'ज़मनालाल

बजाज इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅनेजमँट स्टडीस' सुरू केलें. महात्मा गांधी ताका 'वेपारी राजपूत' (मर्चंट प्रिन्स) म्हण्टालो.

**कमलनयन बजाज :** (१९१५-७२). जमनालाल आनी जानकी देवी हांचो पयलो पूत. १९५७-७० ह्या काळांत तो लोकसभेचो वांगडी आशिल्लो. महात्मा गांधी राश्ट्रीय स्मारक निधीचो तो एक विश्वस्त आशिल्ले. खादी आनी ग्रामोद्योग मंडळाचो वांगडी आनी निसर्गोपचार सल्लागार समितीचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. हाचेभायर जायत्या समाजीक आनी शिक्षणीक संस्थांकडेन ताचो संबंद आशिल्लो. गांधीजीच्या तत्त्वज्ञानाचेर आनी सिद्धांतांचेर ताचो खर विश्वास आशिल्लो.

ताणें आपल्ल्या पुर्विल्या उद्देगांत जायत्यो सुदारणा केल्यो. तेचपरी विजेचीं उपकरणां (बजाज इलेक्ट्रिकल्स), स्कूटर, तीनचाकी म्हाल व्हरपी गाडयो, रिक्षा (बजाज ऑटो), शिमीट (उदयपूर सिमेंट वर्क्स), आयुर्वेदीक वखदांची निर्मिती (आयुर्वेद सेवाश्रम लि.) हे उद्देग सुरू केले.

**रामकृष्ण बजाज :** (जल्मः२२ सप्टेंबर १९२३; मरण २१ सप्टेंबर १९९४). जमनालाल आनी जानकीदेवी हांचो दुसरो पूत. चळवळींनी वांटो घेवपाखातीर ताणें शाळा सोडली. १९४०-४५ ह्या काळांत ताका जायते फावट बंदखण भोगची पडली. बच्छराज अँड कंपनी लि., हिंदुस्थान शुगर मिल्स लि., मॅचवॅल इलेक्ट्रिकल्स इंडिया लि., हर्क्युलीस हॉयस्टस लि. आदी कंपन्यांच्या अध्यक्षपदार ताणें काम केलां. मुकुंद आयर्न अँड स्टील लि. चो तो उपाध्यक्ष आशिल्लो. हाचेभायर महाराष्ट्र चेंबर ऑफ कॉमर्स (१९६४-६८), काऊन्सिल फॉर फॅर बिझीनेस प्रॅक्टिसीस (१९६९-७१), नॅशनल कमिटी ऑफ इंटरनॅशनल चेंबर ऑफ कॉमर्स (१९७८-७९), इंडियन मर्चंट्स चेंबर (१९७९-८०) आदी नामनेच्या संस्थांचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. उपरांतच्या काळांत तो बजाज इंटर नॅशनल प्रा. लि., मुंबय हे कंपनीचो अध्यक्ष आनी वेवस्थापकीय संचालक म्हणून काम पळोवंक लागलो. ताणें 'जपान की सैर', 'रुसी युवकोंके बीच', 'अटलांटिक के उस पार' हीं हिंदी जाल्यार 'द यंग रशिया' आनी 'सोशल रोल ऑफ बिझिनेस' हीं इंग्लीश पुस्तकां बरयल्यांत. 'काऊन्सील फॉर फेअर बिझिनेस प्रॅक्टीस हे संस्थेच्या मुखेल संस्थापकांमदीं तो आशिल्लो.

**राहुल बजाज :** (१० जून १९३८). कमलनयन आनी सावित्री हांचो चलो. १९७२ वर्सा सावन बजाज ऑटो लि. ह्या नामनेच्या स्कूटर निर्मिती कारखान्याचो अध्यक्ष आनी वेवस्थापकीय संचालक म्हणून काम पळयता. महाराष्ट्र स्कूटर्स लि. ह्या साताराच्या महाराष्ट्र शासन आनी खासगी क्षेत्र हांच्या जोड क्षेत्रीय प्रकल्पाचें अध्यक्षपदय तोच सांबाळटा.

स्कूटर आनी तीन चाकी गाडयांची निर्मिती करपी 'बजाज ऑटो लि.', हो भारतांतलो सगळयांत व्हड आनी संवसारांतलो दुसरो व्हड कारखानो. बजाज ऑटोन इंडोनेशिया आनी तैवान ह्या देशांनी आपल्या तंत्रीक आदारान स्कूटर निर्मितीचे कारखाने सुरू केल्यात. बजाज ऑटोन अस्तंत महाराष्ट्र विकास महामंडळाच्या आदारावरवीं साताराक महाराष्ट्र स्कूटर्स लि. ह्या नांवाचो जोड क्षेत्रीय कारखानो सुरू केलो.

भारतांतल्या सगळयांत पोरन्या साकर कारखान्यांतल्या हिंदुस्थान शुगर मिल्स हातूंतल्यान अजुनूय दर वर्सा साकरीचें उत्पादन जाता. तशेंच, सुमार १८ लाखांवयर गॅलन उद्देगीक आल्कोल हांचेंय उत्पादन जाता. ह्याच कारखान्याच्या 'उदयपूर सिमेंट वर्क्स' हे कंपनीवरवीं शिमिटाचें उत्पादन जातालें. उदयपूर, हैदराबाद आनी वाराणसीचे बजाजचे 'आयुर्वेद सेवाश्रम' कंपनींतल्यान सौंदर्य प्रसाधनां, आयुर्वेदीक वखदां हांचें उत्पादन जाता. 'बजाज टेंपो' ह्या कारखान्यांतल्यान 'मॅटॅडोर' वाहनांची निर्मिती जाता. बजाज इलॅक्ट्रिकल्स ही कंपनी दिवे, पंखे, फिटिंग्स, घरांतलीं उपकरणां, शेतीखातीर लागपी मोटर, पंप, आदी वस्तूंचें उत्पादन करता. मॅचवेल इलेक्ट्रिकल्स (इंडिया) लि. हो कारखानो सगळया तरांच्या विजेच्या पंख्यांचें तशेंच 'ॲल्युमिनियम प्रॅशर डाय-कास्ट, उपकरणांचें उत्पादन करता. 'हिंद लॅम्प्स' (स्थापना-१९५१) हातूंतल्यान ल्हान आकाराच्या, स्वयंप्रकाशी दिव्यांचें उत्पादन जाता.

बजाज उद्देग समुहान भौशीक धर्मादायाखातीर सुमार दोन कोटी वयर रुपयांचो उपेग केला. १९७६ त रामकृष्ण बजाज हाणें जमनालालाचे यादीक स्थापन केल्ल्या ५० लाख रुपयांच्या 'जमनालाल बजाज प्रतिश्ठान 'हाचेवरवीं समाजसेवा, विज्ञान, तंत्रविद्या हांची गांवगिऱ्या वाठारांनी उदरगत घडोवन हाडपी तशेंच बायलो, भुरगीं हांचे उदरगती खातीर विशेश प्रकारचें कार्य करपी संस्थांक आनी मनशांक दरेकीं एक लाख रुपयांचो पुरस्कार दिवपाची वेवस्था केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## बटलर, निकोलस मरी

**बटलर, निकोलस मरी :** (जल्म : २ एप्रिल १८६२, एलिझाबॅथ - न्यू जर्सी; मरण : ७ डिसेंबर १९४७, शिकागो).

एक अमेरिकन शिक्षणतज्ञ आनी शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो सहमानकरी. ताचो जल्म एका गिरेस्त कुटुंबांत जालो. न्यूयॉर्कांतल्या कोलंबिया म्हाविद्यालयांतल्यान बी.ए. (१८८२) आनी पीएच्.डी. (१८८४) ह्यो पदव्यो घेतकच बर्लिन आनी पॅरिसाक वचून ताणें तत्त्वज्ञानाचो खास अभ्यास केलो. तेउपरांत कोलंबिया महाविद्यालयांत वेगवेगळया पदांचेर ताणें काम केलें. फुडें थंयच तत्त्वज्ञान विशयाचो प्राध्यापक आनी मुखेल म्हणून ताची नेमणूक जाली (१८९०).

शिक्षणपद्दत हो ताचे आवडीचो विशय आशिल्लो. १८८६-९१ ह्या काळांत व्हड यत्न करून ताणें शिक्षकांखातीर एक प्रशिक्षण संस्था स्थापन केली. हीच संस्था फुडें न्यूयाँर्कांत 'टिचर्स कॉलेज ऑफ कोलंबिया' ह्या नांवान प्रसिद्दीक आयली. जॉन विल्यम बर्जेसच्या पालवान ताणें कोलंबिया महाविद्यालयाचें रुपांतर कोलंबिया विद्यापिठांत केलें आनी ताचो

तो कार्यकारी अध्यक्ष जालो (१९०१). अध्यक्ष आसतना (१९०२-४५) ताणें ह्या विद्यापिठाच्या अभ्यासक्रमांत खूब बदल करून शिक्षणीक व्याप्ती वाडयली. धंदेशिक्षण, पत्रकारिता, दांतां वैजकी, समाजीक, भलायकी, ग्रंथालयशास्त्र आदी विंगड विंगड फांटे ताणें सुरू केले. ताचो मूळ पींड शिक्षकाचो आसलो तरी राजकारणांतूय ताणें थोडो भोव वांटो घेतलो. तो रिपब्लिकन पक्षाचो क्रियाशील वांगडी आशिल्लो.

तरनाटेपणांत ताणें तेलाच्या परंपरीक पंतोजी शिक्षणपद्दतीचेर खर टिका केली आनी उद्देगीक शिक्षणाचेर भर दिल्लो. पूण फुडें पोरने शिक्षणीक परंपरेची पोसवण करूंक जाय, अशें मत ताणें मांडलें. शिक्षणशास्त्रांतल्या वेवसायवाद आनी वर्तनवाद ह्या संकल्पनांचेर ताणें टिका केली.

निःशस्त्रीकरण आनी संवसारीक शांतताय हांचेखातीर ताणें उपाट यत्न केले. शिक्षणावरवीं शांततायेचो प्रसार आनी प्रचार करचेलो वावर ताणें केलो. राश्ट्रसंघाचे निर्मितीक ताणें तेंको दिलो. 'कार्नेजी एण्डाउमॅंट फॉर इंटरनॅशनल पीस' १९१० हे संस्थेचो तो सुरवेक विश्वस्त आशिल्लो आनी मागीर अध्यक्ष जालो (१९२५-४५). १९२८-४१ ह्या काळांत तो 'अमेरिकन ॲकॅडेमी ऑफ आर्टस अँड लॅटर्स', हे संस्थेचो अध्यक्ष आशिल्लो.

ताच्या शांतताय कार्याचो गौरव म्हणून ताका १९३१ वर्साचो नोबॅल पुरस्कार जेन ॲडम्स हिचे वांगडा वांटून मेळ्ळो. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं - The Meaning of Education (१८९८), True and False Democracy (१९०७), A Education of the United States (१९१०), Philosouphy (१९११), The International Mind (१९१३), Building the American Nation (१९२३), The Faith of Liberal (१९२४), The Path to Peace (1930), Looking Forward (१९३२), A Family of Nations (१९३८), Between two worlds (१९३४), The world Today (१९४६).

- कों. वि. सं. मं.

**बटाट :** (मराठी : बटाटा; हिंदीः आलू; गुजराती : बटाटा; कन्नड : आलू-गिड्डे; इंग्लीश : पॉटेटो; लॅटीन : सोलॅन्म ट्युबरोसम; कूळ : सोलॅनेसी).

ही वनस्पत ०.३ ते १.२५ मी. ऊंच वाडटा. ताचें जमनीर वाडपी खोड मोव, पाचव्या वा जांबळ्या रंगाचें आसून ताका भरपूर खांदयो येतात. हे वनस्पतीचें अर्द खोड भुंयेंत आसता. सकयल्या पानांच्या देंठापसून आंकड्यावरी तोंकाकडेन स्टोलोन तयार जाता. हाचेंच रूपांतर उपरांत बटाटांत जाता. ताका पिसाच्या आकाराचीं एक सोडून एक संमिक्ष (Compound) पानां आसतात. हाचीं मुळां बारीक तंतुमय आनी भरपूर आसून चड करून तीं जमनीच्या वयल्या थरांत वाडटात. फुलां पांच पाकळयांचीं, धवीं, पोपटी वा निळया रंगाचीं आसून तीं चोम्यांनी येतात. फळां वांटकुळीं १.५ मिमी. ते २ सेंमी. रूंद आसून तांतूत भरपूर बियो आसतात. बटाट वाटकुळो, तांतया आकाराचो, लांबसो-वाटकुळो अशा वेगवेगळया आकारांचो आसता. ताचे सालीचो रंग लेव हळदुवो, तपकिरी, लेव तांबडो वा जांबळो आसता. बटाटाक मूळच्या भागापरस वयल्या भागाक दोळे चड आसतात. बटाटाचो गर धवो, लेव हळदुवो वा हळदुवो आसता.

ही वनस्पत मूळची दक्षिण अमेरिकेंतल्या तितिकाका तळ्या लागसार, दर्याचे पातळेसावन ३०० मी. उंचायेचेर बोलीवीयन एण्डीस ह्या भागांतली आसुंये अशें म्हण्टात. १५७० त कोनस्की स्टेडोरस हाणें हें पीक कोलंबियासावन स्पेनाक व्हेलें १५९६ त ताची इंग्लंडाक स्वतंत्र लागवड जाली. १६६३ त ही वनस्पत उत्तर अमेरिकेक पावली. उपरांत १७ व्या शतमानांत ती भारतांत आयली.

बटाट हें संवसारांतल्या आठ मुखेल अन्न पिकांतलें एक आसून भाजीपाल्याचें तें सगळयांत म्हत्वाचें पीक. बटाट्याच्या उत्पादनाचे मुखेल देश अशे-रशिया, पोलंड, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, चीन, अस्तंत जर्मनी, उदेंत जर्मनी, नॅदर्लंडस, स्वित्झर्लंड, बेल्जियम, इझ्रायल, ब्रिटीश जुंवे, स्विडन आनी भारतांत सुमार ७.३२ लाख हॅक्टेर सुवातींत बटाटाची





लागवड असा. उत्तर प्रदेश, बिहार, पंजाब, हिमाचल प्रदेश ह्या राज्यांनी बटाटाची लागवड मोट्या प्रमाणांत जाता. गोंयांत वेपारी तत्त्वाचेर बटाटाची लागवड जायना.

भारतांत बटाटाची लागवड सतराव्या शतमाना सावन सुरू जाली. फुडें एकुणिसाव्या शतमानांतल्यान बटाटाची लागवड चड प्रमाणांत जावंक लागली. बटाटाचे लागवडीच्या सुरवातीच्या काळांत जायत्या तरांच्या जातींचे बटाट युरोपांतल्यान भारतांत आयात केले. तातूंतल्यो म्हत्वाच्यो जाती म्हळयार फुलवा, साठा, गोला, साठ आनी दार्जिलींग तांबूस वाटकुळो. ह्या जातींविशीं निश्चीत अशी म्हायती मेळना पूण त्यो लागवडीखाला आसात. आयात केल्ल्या जातींनी जांचो इतिहास खबर आसा त्यो जाती म्हळयार अप-टु-डेट आनी ग्रेट स्कॉट. हातूंतली अप-टु-डेट ही जात ९० दिसांनी जावपी आनी ती वेगवेगळया हवामानांतय जाता.

शिमलाच्या मध्यवर्ती संशोधन केंद्रान प्रजननांत विकसीत केल्ल्यो कांय लोकप्रिय जाती अशो- कुपूरी चंद्रमुखी ही ८० दिसांनी तयार जाता.

हे बटाट वाटकुळे, धव्या रंगाचे, भरपूर उत्पन्न दिवपी आसून ते बेगीन शिजतात; कुफरी सिंधुरी ९० ते १२० दिसांनी तयार जाता. बटाट मध्यम वाटकुळया आकाराचो आसता. कुफरी लवकर ही जात ७० दिसांनी तयार जाता. हाचेभायर कुफरी ज्योती, कुफरी मोती, कुफरी बादशाह, कुफरी बहार, कुफरी लालिमा, कुफरी स्वर्णा ह्यो जाती लागवडी खाला आसात.

भारतांत हें पीक वेगवेगळया हवामानांनी दर्याचे पातळेसावन हिमालयांत ३,३०० मी. उंचायेवयल्या वाठारांनी घेतात. पूण चड करून समशीतोश्ण वाठारांनी हें पीक वाडटा आसून पिकाच्या हंगामांत हवेचें सरासरी तापमान २१° से. परस उणें आसल्यार सगळयांत चड पीक येता. उश्ण तापमानाचो उत्पन्नाचेर परिणाम जाता. उदकाचो बरो निचरो जावपी जमीन ह्या पिकाक मानवता. मातयेचें PH मुल्य ५.२ ते ७.० मेरेन आसल्यार बरें. ह्या पिकाक ५० ते ७५ सेंमी. पावस शिंपडून पडल्यार बरो. बटाट जावपाच्या अदमासाक ३ते४ वा ५ते७ दिसांच्या अंतरान उदक दिवप गरजेचें आसता. ह्या पिकाक उदक चड करून फवारून शिंपतात.

बियाणीं बेगीन जावपी आनी उसरां जावपी अशीं दोन तरांचीं आसतात. पुराय वाडिल्ले आनी ताचेर फुगिल्ले मोटवे आनी बरे पसविल्ले कोंब आशिल्ले बटाट बियाणांखातीर वापरतात. बियाणांचे बटाट ५ सेंमी. परस चड आवाठाचे आसल्यार ताच्यो फोडी करून बियाणांखातीर वापरतात. दरेक फोड २० ते ३० ग्राम वजनाची आनी तिचेर उण्यांत उणे दोन कोंब आसचे पडटात. सगळयो कापिल्ल्यो फोडी डायथेन एम् - ४५ ह्या कवकनाशकाच्या १:४५० ह्या प्रमाणांतल्या उदकांतल्या विद्रवांत बुडोवन काडून थंड हवेशीर जाग्यार पांटल्यांत घालून दवरतात. ताचेर ओलो साक धांपून दवरतात आनी दुसऱ्या दिसा ह्यो फोडी रोवंक घेतात. बटाट सप्टेंबर ते मध्य जानेवारी ह्या तेंपामदीं रोयतात. दोन पिकांचो तेंप वेगळो आसता.

बटाटाची लागवड हातान वा यंत्रान करतात. शेत २५ ते ३० सेंमी. खोल नांगरून माती बारीक करतात. पावसाच्या दिसांनी बटाटाक चड करून ५-१५ सेंमी. वाफ्याचेर आनी गिमाच्या दिसांनी तळाचें शेत बरें पडटा. दोन रोंपांमदीं २० सेंमी. आनी दोन ओळींमदीं ६० सेंमी. अंतर दवरचें. बियांचें प्रमाण दर हॅक्टेराक १.२० - २.५ टन इतलें आसचें. उदकाची वाफ उणी जावपाक उश्ण कटिबंधांत शेत भाताच्या कुंड्यान वा मक्याच्या जून पानांनी धांपून घेवचें पडटा. बटाटाक भरपूर साऱ्याची गरज आसता. दर हॅक्टेराक १२०-१८० किलो नत्र, ८०-१०० किलो स्फुरद आनी ८०-१०० किलो, पोटॅशाची तशेंच १२-१५ टन शेणखताची गरज आसता.

बटाटाच्यो वाली पुराय पिकतकच आनी बटाटाची वाड पुराय जातकच तांची काडणी करतात. काडणी करतना बटाटांक दुखापत जावंक फावना. बटाट तयार जावपाच्या तेंपाप्रमाण ताच्यो तीन जाती जावं येतात. बेगीन जावपी (सादारण तीन ते साडेतीन म्हयने), मध्यम दिसांनी जावपी (सादारण चार ते स म्हयने), उसरां जावपी (सादारण हें सगळें वातावरणाचेर आदारून आसता).

समशितोश्ण वाठारांनी दर हॅक्टेरी उत्पन्न ४० टन जाता जाल्यार उश्ण कटिबंधांत हॅक्टेरी ६ टन इतलें उणें जावंक शकता. भारतांत हें पीक सरासरी चडांत चड ५० ते ६० टन आसा.

बटाटांत भरपूर खळ आसता. ते उकडून, भाजून, भाजी करून खातात. बटाटाचेर प्रक्रिया करून हवाबंद करप, उदक काडप, पीठ करप, चिप्स करप आदी प्रकार करतात. १८व्या शतमानामेरेन बटाट हें एक गोरवांचें खाण आशिल्लें. बटाट कारखान्यांनी बटाट खळीखातीर उपेगांत हाडतात. ही खळ जेवण, पेपर आनी सुती उद्देगांक उपेगाक पडटा. बटाटाचें पीठ करून त्या पिठापसून ब्रॅड, बिस्कुत्यो, केक आदी पदार्थ करतात. बटाटापसून मादक द्रव्यूय तयार करतात.

ह्या पिकाक किडी, जीव, बुरशी, विशाणू आनी व्यंगां पडूंक शकतात. हातूंत म्हत्वाच्यो किडी अशो- देठ कुरतडपी अळी, बटाट पोखरपी अळी, मावा, तुडतुडे, फुलकिडे आनी कोळी. हांचेर उपाय म्हळयार कारबोफुरोन वा अल्डीकार्ब हीं वखदां जमनींत घालप. पानार फवारपाखातीर मिथोमिल वा पीरीकार्ब हांचो उपेग करप जाता. बटाटाक लागपी म्हत्वाचो रोग म्हळयार बांगडी, तांबेरा, करपा आनी केवडा. हांचेर उपाय म्हणून निरोगी बियाणांचो वापर करप.

तयार जावपी बटाट तीन तरांनी सांठोवपाक जाता. त्यो तरा म्हळयार कुडींत सांठोवप, खड्ड्यांत सांठोवप आनी थंड जाग्यार सांठोवप. ह्या तिनांयमदली थंड जाग्यार सांठोवप ही बरी पद्दत.

बटाट हें एक थंड हवेचें पीक. सुरवातीक हे पिकांचे वाडीक २४°c तापमानाची गरज आसता. ते उपरांत ताका १८°c तापमान मानवता. ३०°c तपमानाचेर बटाटाची वाड बंद जाता. बटाटाक बरो निचरो जावपी, हवेशीर, खोल ५.२ - ६.४ सायू PH आशिल्ली जमीन मानवता. गोंयांत हें हवामान आनी जमीन मेळना देखून हें पीक तयार जायना.

- यादवेंद्र देसाय

**बटुकोपनिषद :** एक नव्य उपनिषद. हाका वटुकोपनिषद अशेंय म्हण्टात. ह्या उपनिषदाचो संबंद अथर्ववेदाकडेन आसून हें काव्य गद्यपद्यात्मक आसा. बटुक वा वटुक हें शिवाचेंच दुसरें नांव. ह्या उपनिषदांत ब्रह्मा, विष्णु, इंद्र हे सगळे देव हीं बटुकाचींच रुपां, अशें सांगून ताका नमस्कार करपाचे खूब मंत्र दिल्यात. ह्या उपनिषदांत बटुकाचो एक मालामंत्र दिला तो असो-

स ओङ्कारो य ओङ्कारः स प्रणवो यः प्रणवः स सर्वव्यापी यः सर्वव्यापी सोऽनन्तो योऽनन्तस्तत्तारं यत्तारं तत्सूक्ष्मं यत्सूक्ष्मं तच्छुक्ल

यच्छुक्लं 'तद्वैद्युतं यद्वैद्युतं तत्परं ब्रह्म यत्परं ब्रह्म स एको य एकः स रुद्रो यो रुद्रः स ईशानो य ईशानः स भगवान् महेश्वरो यो भगवान् महेश्वरः स भगवान् बटुकेश्वरो यो भगवान्, बटुकेश्वरः ।

बटुक हो प्रणव. हाचेमुखार चतुर्वेद नमतात. तो सर्वव्यापी, अनंत आनी तार (संवसार भयांतल्यान तारपी). ताचें नांव घेतनाच तो कणाच्या रुपांत प्राणिमात्राचे कुडींत रिगता. तो सगळयाक आसा. एक आसा. योगिराज महेश्वर तो होच. तो वखदी, वनस्पत आनी उदकांत प्रवेश करून सगळया जगाची राखण करता. बटुक म्हळयारूच परमात्मो.

उपरांत, भस्म धारणाचें म्हत्व सांगून, भस्मांत पंचमहाभुतांची शक्त प्रतीक रुपान रावता आनी तें भस्म लायिल्ल्यान मुक्ती मेळटा अशें ह्या उपनिषदांत सांगलां.

-कों. वि. सं. मं.

**बटू:** (पळेयात मूज).

**बडगीत :** आसामांतल्या वैष्णव कवींच्या अध्यात्मीक गितांक बडगीत अशें म्हण्टात. ह्या मायामय संवसारांतल्यान मुक्ती मेळपाखातीर श्रीकृष्णाची भक्ती करून ताका शरण वचप होच एक मार्ग, अशें ह्या बडगिताचें सार.

शंकरदेव आनी माधवदेव ह्या कवींनी चड करून बडगितां रचल्यांत. शंकरदेवान २४० बडगितां बरयलीं. पूण तातूंतलीं चडशीं उज्यांत लासलीं अशें सांगतात. ताचीं चडशीं बडगितां सादे, सरळ भाशेंत आसून तातूंत कृष्णाची भक्ती वर्णिल्या. माधवदेवान, कृष्णाचे जिणेंतले तरातरांचे ढंग उक्तायल्यात. तशेंच कांय गितांनी ताणें गोपींची विरह व्यथाय वर्णिल्या.

हीं बडगितां चड करून ब्रज बोलींत आनी कांय असमिया भाशेंत बरयल्यांत आनी भारतीय संगितांतल्या केदार, आसावरी, बसंत ह्या रागांनी बसयल्यांत. त्याच रागांनी तीं पुजेच्या वेळार गायतात.

माधवदेवा उपरांत रामचरण ठाकुर, गोपालदेव ह्या कवींनीय परंपरीक पद्दतीन बडगितां रचलीं. पूण तांच्या उपरांतच्या कवींनी मात तातूंत राधा-कृष्णाचे कामक्रिडेक प्राधान्य दिवन तांचें पावित्र्य नश्ट केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**बडबडगीत (नॉन्सॅन्स ऱ्हायम) :** मनोरंजनात्मक बालगितांचो एक प्रकार. तालबद्द आनी नादमय बडबडगिताफाटल्या अर्थांत व्हडलीशी तर्कसंगती नासता आनी सगळो भार पदांतल्या नाद, ठेको, अनुप्रास आनी उतरांचें सौंदर्य हांचेर उरता. कांय बडबडगितांनी वाङमयीन गूण उरिल्ल्यान तीं भुरग्यांइतलींच जाणट्यांकूय आकर्शित करतात. बडबडगितांचो उगम मौखिक लोकगितांनी मेळटा. घरांतल्या ल्हान भुरग्याचें मानसशास्त्र लक्षांत घेवन तांचें मनोरंजन करपाचें एक प्रभावी मौखिक साधन, म्हणून बडबडगितांची सुरवात आनी विकास जालो.

अस्तंती भाशांनी एक काव्यप्रकार म्हणून बडबडगिताचो बरोच विकास जाल्लो दिसता. 'द बूक ऑफ नॉन्सेन्स' (१८४६), 'ऑलिसीस ॲडवॅंचर्स इन वंडरलँड' (१८६५), 'थ्रु द लुकिंग ग्लास' (१८७२) 'हंटिग ऑफ द सार्क' (१८७६), 'द बॅड चायल्डस बूक ऑफ बिस्टस' (१८९६), 'टिर्रा लिरां' (१९३१) हे कांय अस्तंत्या बडबडगितांचे संग्रह.

मराठींत 'सशाचे कान' (विंदा करंदिकर), 'अगड बगड' (राजा मंगळवेढेकर), 'डिंब डिंब डिंबाक' (गो. नी. दांडेकर) हीं मराठी भाशेंतलीं कांय बडबडगीतां. हेर भाशेवरवीं कोंकणींतूय बडबडगितांची परंपरा आसा. बालगितां रचपी कोंकणी कवींनी परंपरीक बडबडगितांचे धर्तेर नवीं बडबडगितां बरयल्यांत. हातूंत डॉ. मनोहरराय सरदेसाय (बेब्याचें काजार), डॉ. भिकाजी घाणेकार (पिकनीक), रमेश वेळुस्कार (भूक भूक भिशू), कमलादेवी राव देशपांडे (चिरमुल्यो) ह्या कवींचो आस्पाव जाता. तुकाराम शेट हाणें परंपरीक बडबडगितांचो एकठांय संच तयार केलो. कोंकणींतलीं दोन परंपरीक बडबडगितां सकयल दिल्यांत.

१) माकडा माकडा<br>
हूप हूप<br>
नाकाक लायलें<br>
तूप तूप<br>
तोरां उडय<br>
खूब खूब

२) शोव गे शोव<br>
सोयरे आयल्यात भोव<br>
भात हाडूंक शेतांत गेला<br>
काण्डटलेचो घोव<br>
शोवभाता शोव<br>
काण्डटलेचो घोव<br>
बोवाळा भितर रांदूंक गेला<br>
शीत जालां मोव.

- कों. वि. सं. मं.

**बडीशेप :** (मराठी : बडीशेप, बडीशोप; हिंदी :सौंफ, सोंप कन्नड : बडिसोप्पू; गुजराती : बरियाली; संस्कृत : मधुरिका, शतपुष्पा; इंग्लीश : फेनेल ; लॅटीन : फीनिक्युलम व्हग्लेर; कूळ वर्सभर जगपी एक वासाळ वखदी झाड अंबेलिफेरी हें सुमार एका मीटरा परस उणें उचायेचें आसून ताका जायते गाड पाचवे फांटे आसतात. ताचीं पानां एकवटीत आनी बहुदली आसतात. फुलां ऑगस्ट-सप्टेंबर म्हयन्यांत ल्हान, हळदुवीं, व्हड ताळयेवरी, संयुक्त घोंसार शाखांच्या तोंकार येतात. फळां ल्हान पाचव्या

वा हुळदुव्या रंगाचीं ६.७मिमी. लांबायेचीं आसतात.

वनस्पतीचें मूळ स्थान दक्षिण-युरोप आनी आशिया आसून हालीं तिचे जायते प्रकार लागवडी खाला आसात. समशीतोश्ण आनी उपोश्ण कटिबंधांनी फळांखातीर बऱ्याच व्हड प्रमाणांत तिचें पीक काडटात. भारतांत १८०० मीटर उचांयेमेरेन बडीशेप बागायती पीक म्हणून लागवडीखाला आसा. गुजरात, खेड, बडोदा, अहमदाबाद, बेळगांव, धारवाड, पंजाब आनी राजस्थान ह्या वाठारांनी बडिशेपेची लागवड करतात.



पानां, फुलां आनी फळां हांचेसकट खांदी

हें पीक सकस, निचऱ्याचे जमनींत वा काळे रेवंट आनी चुनखडीयुक्त जमनींत बरें येता. ह्या पीकाक थंड हवा मानवता. सुरवेक बियां हातांनी उडोवन पेरनी करतात. रोपां ७-१० सेंमी. ऊंच जातकच ३० X ३० सेंमी. अंतर दवरून लावणी करतात. सुके हवेंत दर सप्तकाक एक फावट उदक दितात. फळां पुराय पिकचे आदीं कापणी करतात. झाडां ४-५ दीस वतांत सुकयतकच बडोवन फळां मेकळीं करतात. दर हॅक्टरी सुमार ३५०-१४०० किंग्रॅ. उत्पन्न येता.

सुकीं फळां म्हळयार बडीशेप. उश्ण, सारक, भूक वाडोवपी, रुचीक, वासाळ आसून दोळयांचे विकार, जळजळ, तान, पित्त, आमांश आदीचेर गुणकारी आसतात. पानां मुत्रल आनी पाचक आसून तांचेपसून नदर सुदारता. बडीशेप म्हयन्याची पाळी नेमान करता. पानांची भाजी करतात आनी फळां मसाल्यांत, गोडशांत, रांदपांत तशेंच पानपट्टेंत वापरतात. बियांतलें बाश्पनशील तेल लेव हळदुवें आसून ताका वेगळीच रूच आसता. हे भायर फळांनी पेंटोसॅन, पॅक्टीन, स्टार्च, ट्रायगोनेलीन, कोलीन, आयोडीन, 'अ' जीवनसत्व, थायामीन, रिबोल्वविन, निॲसीन आनी 'क' जीवनसत्व आसता.

महाराष्ट्र, बिहार, उत्तर प्रदेश, आदीकडेन पिकिल्ल्या फळांनी फरक मेळटा. हातूंत लखनौचो प्रकार सर्वश्रेश्ठ मानतात. भारतांतल्या उत्पादनाची खुबूच थोड्या प्रमाणांत निर्यात जाता. पाकिस्तान, श्रीलंका, मियानमार, मलाय, केनया, स्विडन, ग्रेट ब्रिटन, फ्रांस, अमेरिका ह्या देशांतल्यान हिची भारतांत आयात जाता.

बडीशेपेच्या फळापासून वासाचें बाश्पनशील तेल मेळटा. वेपारी नदरेन फायद्याचें अशें कॅपिलेशियम हे उपजाती पसून तेल मेळटा. हे उपजातीचे व्हल्गेर आनी डुल्से हे दोन मुखेल प्रकार आसून व्हल्गेरापसून कोडू आनी डुल्सेपसून गोड तेल काडटात. रशिया, रुमानिया, हंगेरी, जर्मनी, फ्रांस, जपान, इटली, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, आर्जेंटिना आनी भारत ह्या देशांनी व्हल्गेरापासून उत्पादन करतात. जाल्यार फ्रांस, इटली आनी दक्षिण युरोपांतल्या मॅसिडोनियांत डुल्से प्रकारापसून तेलाचें उत्पादन जाता. मुखशुद्धेखातीर सुकी बडीशेप खावपाची चाल आसा.

बडीशेपेच्या पिकाचेर करपा (सर्कोस्पोरा फिनिक्युली) आनी भुरी (लेव्हिल्युला टॅरिया) अशे कवकजन्य रोग जातात. तांकां आळाबंदा हाडपाखातीर ताम्रयुक्त कवकनाशक आनी गंधकाची भुकटी फवारची पडाटा.

- कों. वि. सं. मं.

**बडे गुलामअलीखाँ :** (जल्मः १९०१, कसूर (जि. लाहोर); मरण : २३ एप्रिल १९६८, हैदराबाद).

आंतरराश्ट्रीय किर्तीचो गायक. ताचो बापूय अलीबक्ष आनी बापोलयो कालेखाँ हे दोगूय पतियाळा घराण्याचो नामनेचो गायक फतेअली हाचे शिश्य आशिल्ले. खाँसायब अलीबक्ष गावपा वांगडाच दिलरुबा हें वाद्य बेस बरें वाजयतालो. गुलामअलीखाँ आनी ताचो धाकलो भाव बरकत अलीखाँ ह्या दोगांयनी संगिताचें मुळावें शिक्षण आपल्या बापायकडेनूच घेतलें. गुलामअलीक गोड आवाजा वांगडाच ग्रहणशक्तीची जोड लाबिल्ल्यान पिरायेच्या विसाव्या वर्सासावनच तो बरे तरेन गावंक लागलो. तरी स्वतंत्र मैफली करूंक लागतकच १९२७ वर्सासावन ताका नामना मेळूंक लागली. पंजाब तशेंच कलकत्त्याक भरिल्ल्या संगीत परिशदांनी ताणें १९४०-४२ मेरेन बरेंच नांव मेळयलें. १९४४ वर्सा मुंबय भरिल्ल्या 'विक्रम संगीत परिशदेत' ताणें आपले कलेन लोकांक भारावन उडयले.



देशाचे फाळणे उपरांत तो मुंबय रावपाक आयलो. ख्याल, ठुमऱ्यो,

भजनां आदी प्रकार सारक्याच समर्थपणान आनी गोडव्यान गावपी एक असामान्य गायक म्हणून पुराय देशांत ताची नामना जाली. तेचपरी पंजाबी ढंगाचो ठुमरी गायक म्हणून ताची एक वेगळीच नामना आशिल्ली. 'सबरंग' ह्या टोपण नांवान ताणें जायत्यो ख्याल आनी ठुमऱ्यो रचल्यो.

१९५७ वर्सा ताका भारताचें नागरिकत्व मेळ्ळें. संगीत नाटक अकादमी वरवीं इनाम आनी भारत सरकारावरवीं ताका 'पद्मभूषण' हो किताब मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**बडोदा :** गुजरात राज्यांतल्या बडोदा ह्याच नांवाच्या जिल्ह्याचें मुखेल ठिकाण आनी पयलींच्या बडोदा संस्थानाची राजधानी. विश्वामित्री न्हंयेचे देगेर समुद्रथरासावन ३५.५ मी. उंचायेर हें शार वसलां. पुर्विल्ल्या काळांत अंकुटिक वा अंकोटक नांवाची वसणूक हे न्हंयेचे अस्तंत देगेर आशिल्ली. वटपद्रक वा वडपत्रक, वीरक्षेत्र वा वीरावती, चंदनवती वा चंदनवटी अशींय तांचीं नांवां मेळटात. इंग्लिश भोंवडेकारांनी 'ब्रोदेरा' असो उल्लेख केल्लो आसून ताचेवयल्यान ह्या शाराचें बडोदा हें नांव पडलें. सध्या ह्या शाराचें अधिकृत नांव 'वडोदरा' अशें आसून तें संस्कृतांतल्या 'वटोदर' ह्या उतराचो अपभ्रंश आसुयें. अहमदाबादेचे आग्नेयेक सु. १०० किमी. अंतराचेर हें शार आसा.

२२°१८' उत्तर अक्षांश आनी ७३°१५ उद्वेंत रेखांशाचेर हें शार वसलां. लोकसंख्या ३,०७३,३५७ (१९९१). क्षेत्रफळ ७,७९४ चौ. किमी. हांगाचें हवामान विषम आसता. गिमाच्या दिसांनी हांगाचें तापमान चडांत चड ४४° से. आनी शिंयाळ्यांत उण्यांत उणें तापमान ६° से. आसता. जून ते सप्टेंबर ह्या काळांत पावसाचें प्रमाण ८४ सेंमी. आसता.

इ. सनाचे सुरवेक भृगुकच्छ (भडोच) बंदर आनी उज्जैन हांकां जोडपी राजमार्गावयलें हें म्हत्वाचें वेपारी शार आशिल्लें. हांगासावनूच रोमी वेपाऱ्यांकडे वेपार चलतालो. इ. स. १०० ते ३९० ह्या काळांत क्षत्रपांचे राजवटींत ह्या शाराची बरीच वाड जाली. पांचव्या शेंकड्यांत हांगा गुप्त वंशाचें राज्य आशिल्लें. राश्ट्रकूटांनी हाचेर बरोच तेंप सत्ता गाजयली. जैन धर्माचो प्रसार ह्या काळांत खूब जालो. धाव्या शेंकड्याउपरांत सोळंकी आनी वाघेल घराण्यांच्या काळांत ह्या शाराची खूब उदरगत जाली. बाराव्या शेंकड्याउपरांत बडोदा शार दिल्ली सलतनतीच्या आनी चवदाव्या शेंकड्यांत गुजरात सलतनतीच्या शेकातळा आशिल्लें. १५७३ ते १७२४ ह्या काळांत हें शार मोगलांचे सत्तेखाला आशिल्लें. १५७३ वर्सा सम्राट अकबरान तें सुभ्याचें ठाणें केलें आनी तेउपरांत सुमार दोनशें वर्सां तें गायकवाड घराण्याचे सत्तेखाल आशिल्लें. १९४९ वर्सा तें स्वतंत्र भारतांत विलीन जालें. १ मे १९४९ दिसा बडोदा संस्थान मुंबय राज्यांत विलीन जालें आनी १ मे १९६० सावन गुजरात राज्याचो भाग जालें.

शाराच्या मदल्यान रेल्वेमार्ग गेल्ल्यान बडोदा शाराची वाड अस्तंतेकडेन जायत आसा. हाका लागून ह्या वाठारांत घरबांदणी संस्था तशेंच कारखाने हांची निर्मणी जाता. हें शार अस्तंत रेल्वेच्या रूंदमापी लोहमार्गावयलें प्रस्थानक आसून रस्त्यांचेंय केंद्र जालां. मुंबय-अहमदाबाद राश्ट्रीय महामार्ग क्रमांक आठ हांगासावनूच वता. हांगा नागरी विमानतळ आनी आकाशवाणी केंद्रां आसात. अजवा तळें आनी मही न्हंयेंतल्यान ह्या शाराक उदका पुरवण जाता.

बडोदा शार कापूस, तंबाखूचें मुखेल वेपारी केंद जावन रावलां. तशेंच रसायनां, लुगट, सारें, खनीज तेल, यंत्रां, चीनी मातयेचीं आयदनां, शाबू, रबर उत्पादन, कंवची, लांकडी सामान, म्हौव आनी दुदाचे धंदे हांगा चलतात. तेचप्रमाण, हांगासावन व्हड प्रमाणांत वखदांची निर्यात जाता. अणूशक्ती विभागाचो जड उदका प्रकल्प, इंडियन पेट्रोकेमिकल कॉर्पोरेशन लि., गुजरात रिफायनरी, गुजरात स्टेट फर्टिलायझर्स कंपनी ह्यो उत्पादनसंस्था तशेंच तेल आनी सैमीक वायू आयोगाचें कार्यालय हांगा आसा.

आर्विल्ल्या बडोद्याचे उदरगतींत गायकवाड घराण्यान भर घाली. खंडेरावाखातीर बांदिल्ली मकरपुरा राजवाडो (१८५६-७०), मल्हाररावाचो नजरबाग राजवाडो (१८७०-७५), तिसऱ्या सय्याजीरावाचो लक्ष्मीविलास राजवाडो (१८९०) हे इंडो-सार्सेनिक पद्दतीचे राजवाडे बडोदा शारांत आसात. तिसरो सय्याजीराव (१८७५ ते १९३९) हाच्या सत्ताकाळांतले प्रताप विलास (१९१८), आतांचें रेल्वे कर्मचारी कॉलेज, बडोदा कॉलेज (१८८५), महाराज सय्याजीराव विश्वविद्यालय, कालभवन इमारत (१९२२), कीर्तिमंदिर, न्यायमंदीर (१८९५), खंडेराव बाजार (१९०७), सूरसागर तलाव आनी सय्याजी हॉस्पिटल पळोवपासारकीं आसात.

विश्वामित्री न्हंयेवयलो झुलतो पूल, दक्षिणमूर्ती मंदिर, चिमणाबाई टावर, सय्याजीराव टावर, नगरभवन, उक्तें रंगमंदिर हीं कांय ओडलायणीं थळां बडोदा शारांत आसात.

आशियांतलें पयलें आनी संवसारांतलें धाव्या क्रमाकांचें कृत्रीम तारामंडळ बडोदा शारांत आसून तातूंतल्यान खंयच्याय वेळाचें आनी खंयचेय सुवातेचें मळब दिसूं येता. सगळीं यंत्रणां जमनींत आशिल्ली ६.०९६ मी. व्यासाची पुष्प घड्याळ हांगाच्या सय्याजी उद्यानांत आसा.

अकबरान बांदिल्ली इंडो-इराणी शैलींतली कुत्बुद्दीन कबर बडोदा शारांत आसा. महाराजा सय्याजीराव विद्यापीठ (१९४९) हें नांवाजिल्लें आसून तातूंतलें 'ओरिएंटल इन्स्टिट्यूट ऑफ रिसर्च' हें संस्कृताच्या पुर्विल्ल्या हातबरपांखातीर, चड करून रामायणाच्या हातबरपाखातीर नामनेक पावलां. राज्य सरकाराचें 'सँट्रल लायब्रींत' दुर्मीळ पुस्तकांचो संग्रह मेळटा. हांगाच्यो पोलो क्लब, गुजरात क्रीडा मंडळ, मध्यस्थ क्रीडा मंडळ; सय्याजी क्लब ह्यो क्रिडासंस्था नांवजिल्ल्यो आसात.

म्हान संगीततज्ञ उस्ताद फैय्याझखाँ हो बडोद्याच्या महाराजाकडेन

गायक आशिल्लो. दर वर्सा हांगा 'उस्ताद फैय्याझखाँ जयंती उत्सव' मनयतात आनी तातूंत भारतांतले नामनेचे गायक-वादक वांटो घेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बत्तीस लक्षणां :** मनशाच्या शरिरावयलीं बत्तीस शुभ लक्षणां असो हाचो अर्थ जाता. काशीखंड, बौध्द धर्मसारसंग्रह हातूंत ह्या लक्षणांची वळेरी दिल्या.

बौध्दांनी म्हापुरुसांची म्हळयार बुध्दाचीं बत्तीस लक्षणां मानल्यांत. हीं लक्षणां बुध्दाच्या शरिराचेर दिसतालीं अशें सांगलां. तीं लक्षणां अशीं-

१) उष्णीष (केंसांची उंचाय), २) मुदयाळे केंस (दाव्यांतल्यान उजवेवटेन वळिल्ले) ३) रूंद कपल ४) ऊर्णा (दोनूय भुंवयां मदीं केंसांचें झोंप) ५) बैलाच्या पापण्यांभाशेन पापण्यो ६) तेजिश्ठ काळे दोळे ७) एकाच आकाराचे चाळीस दांत ८) दांत एकमेकांक दशिल्ले आसप ९) धवेफुल्ल दांत १०) ब्रह्मदेवाभाशेन आवाज ११) उत्तम रुचीज्ञान १२) मोटी आनी लांब जीब १३) शींवाभाशेन जबडो १४) पुश्ट खांदे १५) पुश्ट हात १६) दोनूय खांद्यांमदलो भाग १७) भांगराकांती १८) आजानुबाहू (उबो रावतकच हात धोंपरांमेरेन पावतात) १९) शरिराचो फुडलो भाग शींवाभाशेन २०) वडाच्या झाडाभाशेन आकृताय २१) देहाच्या दरेका छिद्रांतल्यान एकूच केंस उदेवप २२) केंसांचीं तोंका मुदयाळीं जावन उजवे वटेन वळप २३) जननेंद्रीय सैमीक तरेन धांपिल्लें आसप २८) मांडयो वाटकुळयो आनी पुश्ट २५) हरणाभाशेन तंगड्यो २६) नाखटां आनी बोटां लांब २७) ऊंच चवडे २८) लांब खोंट २९) नाजूक हात-पांय ३०) हातापांयांच्या बोटांमदीं पातळ पड्डो ३१) तळपांयांचेर सहस्त्रार चक्राचें चिन्न आनी ३२) पसरिल्लो पांय आनी पदक्षेप दृढ.

- कों. वि. सं. मं.

**बत्तीस विद्या :** गिन्यानाचे प्राप्तीखातीर जे विंगड विंगड प्रकार सांगल्यात, तांकां विद्या अशें म्हण्टात. ह्या विद्यांची संख्या बत्तीस आसून, त्यो विंगड विंगड उपनिषदांनी मेळटात. ह्या विद्यांचीं नांवां अशीं- १) ईश्वर २) परको दादलो ३) सद्विद्या ४) आनंदमय ५) परंज्योती ६) शांडिल्य ७) पर्यंक ८) उद्दालक ९) क्षराक्षर १०) भूम ११) गार्गीअक्षर १२) सत्यकाम १३) दहर १४) अंगुष्ठमात्र १५) ज्योतिष-ज्योती १६) मैत्रेयी १७) गायत्री १८) उषस्ति कहोळ १९) अंतरादित्य १०) अकोशल २१) मधू २२) बलाकी २३) आकाश २४) प्राण २५) प्रातर्दन २६) नचिकेत २७) वैश्वानर २८) संवर्ग २९) पंचाग्नी ३०) अक्षी ३१) भृगुवारुणी आनी ३२) श्रीमन्यास.

तशेंच उद्गीथ आनी पुरुष ह्यो आनीकूय दोन विद्या सांगल्यात. हातूंतल्यो चडशो विद्या निर्गुण ब्रह्माची ह्या ना त्या स्वरुपांत उपासना सांगतात. वेदान्तसुत्रां प्रमाण दुरितक्षय, ऐश्‍वर्यप्राप्ती आनी क्रममुक्ती अशें विद्येचें त्रिविध फळ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बदक :** विभाग : पृश्ठवंशी ; वर्गः एव्स् (Aves); उपवर्ग : न्यूओरनिथेस; गणः अँसेरी फोर्मेस; कूळ :ॲनॅटिडे; उपकूळ : ॲनॅटिनी; जाती : ॲनास आनी प्रजाती : प्लेटिरींकोस.

ॲनॅटिनी ह्या उपकुलांत साबार जाती आसून संवसाराच्या विंगड विंगड भागांनी त्यो मेळटात. भारतांत काश्मीर, उत्तर प्रदेश, बिहार, आसाम, अस्तंत बंगाल, ओरिसा, मध्य प्रदेश, गुजरात आनी उत्तर महाराष्ट्रांत बदकां चडा प्रमाणांत मेळटात. दक्षिण भारतांत तांचें प्रमाण खूब उणें. रानवटी बदकांचें प्रमाण खूब उणें जालां.



सादारणपणान बदकाचो आकारमान कोंबडेभाशेनूच आसता. ताची लांबाय सुमार ६० सेंमी. इतली आसता. नर बदकाचें वजन ११३५ ते १९०० ग्राम. तर मादयेचें ७३५ ते ११९५ ग्राम आसता. बदक हें पृश्ठवंशी सवणें आसून तकली, मान आनी धड अशी ताचे कुडीची विभागणी केल्ली आसा. कुडीच्या मानान ताची मान आनी पांय चड मोटवे आसतात. बदकाचे पांय धडा परस खूब फाटीं आसतात. तांचो ते उबे रावपाखातीर वा पेंवपाखातीर उपेग करतात. ताचे पांय हळदुवसार आसून ताका मुखार तीन आनी फाटल्यान तीन अशीं स बोटां आसतात. मुखावयल्या बोटांमदीं पातळ कात आसता. हांचो ते उदकांत व्हल्याभाशेन उपेग करतात. तोंच व्हड, पातळ आनी रूंद आसता.

कुडीवयलीं पांखां खूब दाट आसतात. पूण तांचो शेंपाडो खूब मोटवो आसता. ते पाणसवणें आशिल्ल्यान पांखां सदांच तेलकट आसतात. सादारणपणान नर आनामादी हांचे रंग मातशे वेगळे आसतात. पोशिल्ल्या बदकांचो रंग चडसो धवो आसता. पूण काळया आनी गोबऱ्या रंगाच्या बदकांचें प्रमाण चड आसा. कांय बदकांचें धड धवें जाल्यार मान आनी तकली काळया रंगाची आसता. ताच्या आंगार मोव पांखां आशिल्ल्यान शिंयाळयांत तांचे कुडीची उश्णताय तशीच उरता.

कड्डुण, गंव, तांदूळ, गोड मुळां आनी कोंब हें तांचें मुखेल अन्न. पूण कांय प्रमाणांत तीं उदकांतले ल्हान ल्हान जीव, नुस्तें आनी ल्हान ल्हान बेबे खातात. तांचे घोंटेर चड करून जमनीचेरूच आसतात. पूण कांय जातींचीं बदकां आपले घोंटेर झाडांचे घोलींनी वा झिलींनी बांदतात. तांचे घोंटेर करड, ल्हान ल्हान बडयो वा पानांसावन तयार केल्ले आसतात. मादी हातूंत ५-१२ तांतयां घालता. पोशिल्ल्या बदकांखातीर खाशेले घूड तयार केल्ले आसतात.

गीम हो तांचो तांतयां घालपाचो तेंप आसून मादी दिसाक एक अशीं ५-१२ तांतयां घालता. तीं धवीं वा हळदुवसार आसतात. सुमार २८ दिसांनी पिलां तांतयांतल्यान भायर सरतात. हेर सवण्यांभाशेन बदकूय आपल्या पिलांक भरयता.

बदक हें चोम्यांनी रावपी सवणें. सादारणपणान १०-१२ बदकांचो एक चोंबो आसता. पूण कांय प्रदेशांनी एका चोम्यांत ४०-५० बदकां आसतात. आपलें जेवण मेळोवपाखातीर तीं चडशीं रातीची भायर सरतात. तीं जमनीचेर हालत-ध्रोलत चलतात. तांकां नेटान पेवपाकूय येता. तांचीं पांखां तेलकट आशिल्ल्यान तांकां उदक लागना. बदक चड उंचायेचेर उडूंक शकना. पूण कोणेंय ताचेर घुरी घालीत जाल्यार तीं नेटान उडून आपली राखण करतात.

बदक हें सवणें रोखडेंच मनशाळिल्लें जाता आनी ताचे फायदेय चड आशिल्ल्यान खूब लोक तांकां पोसतात. क्रिस्ता उपरांतच्या पयल्या शेंकड्यासावन बदकां पोसपाची पद्दत चालींत आयली असो कांय लोकांचो समज आसा. पूण चीन देशांत २,००० वर्सांपयलीं बदकां पोसताले. तांचे पुरावे मेळ्ळयात. आतांच्या तेंपार तांतयां आनी मांस हांच्या उत्पादनाखातीर खूब लोक बदकां पोसतात. अमेरिकेंत आनी कांय युरोपी राश्ट्रांनी बदकां पोसपाचो वेवसाय नेटान चलता. भारतांत बदकां मुखेलपणान तांतयांखातीर पोसतात. भारतांत कुंकडां पालनांतल्या वट्ट सवण्यांभितर बदकांची संख्या फकत ९% आसा. भारतांत तांतयांच्या वट्ट उत्पादनांतली १६% तांतयां बदकांचीं आसतात. बदकांभितर जावपी, दुयेंसांचे प्रमाण कुकडांच्या दुयेंसा परस उणें आसता.

- एस्. आर. गनीहार

**बदाम :** (मराठी : बदाम ; हिंदी : बादाम ; कन्नड : बादावी, बादामी; संस्कृत : वाताम; इंग्लीश : आमंड; लॅटीन : प्रूनस ॲमिग्डॅलस; प्रू. कॉम्यूनिस; कूळ : रोझेसी).

सुमार ८ मी. उंचायेचें पानां झडपी झाड. ह्या झाडाची साल करडी, पानां सादीं, भाल्यावरी, एका फाटोफाट एक, चिवट, चकचकीत आनी दांतेरी आसतात. फुलां धवीं पूण तांचेर तांबशी सया मारता. ती सुमार २.५ सें.मी. व्यासाचीं आसून कोवळया पानांवांगडा वा पानां येवंचेआदीं एक एकटी येतात. एकाच किंजदला पसून तयार जाल्लें देंठ नाशिल्लें ३-६ सेंमी. लांब घट्ट कवच आशिल्लें चेपटें फळ येता. तातूंतलो गर कडक आसता. फळ पुराय पिकतकच तें फुट्टा आनी लांबशें तांतयां आकाराचें गाड तपकिरी अशें एक बीज आशिल्लें कवच भायर पडटा.

हें झाड मूळचें मध्य आनी अस्तंत आशियांतलें. थंय तें रानटी अवस्थेंत दिश्टी पडटा. इ. स. आदीं धाव्या शतमानांत चीनांत आनी इ. स. आदीं पांचव्या शतमानांत ग्रीसांत हाची लागवड आशिल्ली अशें म्हण्टात. कांय जाणांच्या मताप्रमाण सुमार ४,००० वर्सां आदी सावन मनीस हाची लागवड करता. चरक संहिता (इ.स. दुसरें शतमान) आनी सुश्रुत संहिता (इ.स.चें. तिसरें शतमान) हातूंत 'वाताम' नांवान बदामाचो उल्लेख आयला. बदाम मूळचो इराणांतलो. थंयसावन तो हेरकडेन व्हेला अशें म्हण्टात. हालीं दक्षिण युरोप, अमेरिका (कॉलिफोर्निया), ऑस्ट्रेलिया आनी दक्षिण आफ्रिका ह्या वाठारांनी बदामाची लागवड केल्ली दिश्टी पडटा. भारतांत सुमार ७६०-२४०० मी. उंचायेमेरेन (काश्मीरांत) बदाम पिकयतात. बदामाचे लागवडी खाला २,४०० हेक्टर क्षेत्र आसून ताचेपसून ५६०० क्विंटल बदामाचें उत्पादन आसा. तशेंच हिमाचल प्रदेशांत २०० हेक्टरांनी बदामाचें पीक काडटात. उत्तर प्रदेशांतल्या दोंगराळ वाठारांत सुमार ५००० हॅक्टरांनी अक्रोड आनी बदाम हांची लागवड केल्ली आसा.

बदामाचे जातीचे तीन मुखेल प्रकार आसात. १) ॲमिग्डॅलस २) अमारा आनी ३) सटायव्हा. हातूंतलो पयलो प्रकार अस्तंत आशिया, ग्रीस आनी उत्तर अफ्रिकेंत दिश्टी पडटा. चड करून दुसऱ्या आनी तिसऱ्या प्रकाराचे बदाम लागवडीखाला आसात. दुसऱ्याक कोडू (तडवा) आनी तिसऱ्याक गोडा म्हण्टात. कोडू प्रकार वेपारी म्हत्वाच्या तेलाखातीर आनी गोड्या प्रकाराचीं कलमां करपाखातीर उपेग करतात. फळांचे सालीप्रमाण गोड्या बदामाचे घनकवची, मृदुकवची आनी कागदी (कागझी वा रुमाली) हे तीन उप प्रकार आसात. अमेरिकेंतल्यान 'नॉन परेल', 'थिन शॅल', 'ने-प्लस- अल्ट्रा' आनी 'ड्रेक' (घनकवची) हे प्रकार हाडून लागवड करतात.

ह्या पिकाक सुरवेक थंड आनी कोरडें हवामान आनी फळां पिकपा वेळार गरम हवा जाय पडटा. तशेंच ६० सेंमी. वा थोडो चड पावस पडल्यार पीक बरें येता. बदामाच्या झाडाचीं मूळां खोल वतात. ताका लागून खोल, सकस आनी निचऱ्याची जमीन बदामाक बरी पडटा. भारतांत चड करून बियांपसून लागवड करतात. तेखातीर बीं पेरून वर्सा उपरांत रोंप दुसऱ्या कायम जाग्यार लायतात. ते भायर जरदाळू वा हेर खंयच्याय झाडाच्या खुटाचेर कलमां करूनूय बदामाची लागवड करतात. ६ मी. अंतराचेर १ मी. व्यासाचे खोल बुराक करून रोप लायतात. कंपोस्ट वा नायट्रोजनयुक्त सारें दिल्यार उत्पादनांत वाड जाता. पिराय, विकृती वा अयोग्य खूंट हांकां लागून उत्पादन उणें जावक शकता. अशा वेळार झाडाची तेंगशी कापतात.

रोंपां लावन सुमार ३-४ वर्सांनी फळां येवन ८-१० वर्सांनी भरपूर उत्पन्न मेळटा. सादारण जुलय ते सप्टेंबरांत फळांतल्यान कवच दिसूंक लागता. तेन्ना तीं फळां काडून हातांनी सोलून वतांत सुकयतात. हीं फळां निवळ जावपाखातीर आनी तांकां आकर्शक रंग येवपाखातीर तांचेर फावो ते संस्कार करतात. दर झाडापासून सुमार २.७ किग्रॅ. फळोत्पादन जाता. फळां थंड, सुक्या आनी हवा खेळपी जाग्यार दवरल्यार स म्हयने तिगतात.

गोड्या प्रकारांतल्या बदामाच्यो बियो खावंक वापरतात. गोडशांत बदामाच्यो बियो वापतात. मॅकरून ह्या केकावरी पदार्थांत बदामाची बी पेस्ट रुपांत वापरतात. भारतांत गोडशें, पक्वान्न, तांबूल हातूंत ह्यो बियो घालतात. बदामाची बी खुबूच पुश्टीक, शामक, उत्तेजक आसून तीं देशी वखदांनी वापरतात. मुताचे विकार, कातीवयल्यो पुळयो आनी नाजूक दुखरे भाग, अल्सर वा पोटांतले विकार हांचेर बदामाची बी उपेगी पडटा. गोड्या आनी कोडू प्रकाराच्या बदामांचें तेल काडटात. तें गोडशें, वखदां आनी सौंदर्य प्रसाधनांनी वापरतात.

बियांत प्रथीन आनी तेल भरपूर आसता. वेपारी नदरेन म्हत्वाचें तेल कडवे बियेपसून काडटात आनी गोड बदाम बी हेर म्हत्वाच्या उपेगांखातीर वापरतात. तें नितळ, लेव हळदुवें वा रंगहीन आसून ताका वास येता आनी तें खूब काळ तिगता. तें शामक, पुश्टीक आनी मातशें सारक आसता. कानाच्या विकारा आड हें तेल कानांत घालतात. ह्या तेलाचें मोलूय खूब आसता. बदामाचे बियेच्या भायल्या कवचाचो वेगवेगळो उपेग करतात. बदामाचे सालीचो सरबतां, गोरवांक खाण आनी कातडी कमोवपाक उपेग करतात. कारण तातूंत टॅनीन, साकर, प्रथिनां, स्टार्च, पॅक्टिन, धागे, हांचें प्रमाण बरें आसता. बदामाच्या झाडाचें लांकूड लेव तांबडें आसून तें कोरीव कामाखातीर वापरतात.

**देशी बदाम :** (हिंदी : जंगली बदाम, बंगाली बदाम, पत्ती बदाम; गुजराती : लीली बदाम; कन्नड : तारी; संस्कृत : गृहद्रुम; इंग्लीश : ट्रॉपिकल आमंड, इंडियन आमंड; लॅटीन : टर्मिनॅलिया कटापा; कूळ : कॉंब्रेटेसी ).

हें झाड मियानमार आनी भारतांतल्या उश्ण वाठारांनी, पोरसांनी वा रस्त्याचे कुशींनी सोबितकायेखातीर लायतात. कोंकण आनी उत्तर कारवार वाठारांनीय हें झाड दिश्टी पडटा.

ह्या बदामाचे सालींत ९% टॅनीन आसता. साल आनी पानां हांचेपसून काळो रंग काडटात. सूत रेशीम आनी लां रंगोवपाखातीर पानां आनी सालींतलें रंगीत द्रव्य उपेगी पडटा. कवळ्या पानांच्या रोसाचें मलम कुश्ठरोग, खरोज आदी कातीच्या रोगाचेर उपेगी पडटा.

**भुतिया बदाम :** (हिंदी : उर्णी; इंग्लीश : टर्किश हॅझेल; लॅटीन : कॉरीलस; कॉल्यूर्ना, कूळ : बेट्युलेसी).

हें झाड मूळचें युरोपांतलें आसून ताचो प्रसार दक्षिण युरोप, ट्रान्स कॅस्पियामेरेन जाला. भारतांत, काश्मीरांतल्या रानांनी हें झाड सामान्यपणान दिसता. हाचीं फळां 'कॉन्स्टँटिनोपल नट', 'फिलबर्ट' आनी 'हॅझेलनट' ह्या नांवांनी वळखतात. तीं पुश्टीक आसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बद्रीनाथ :** हिमालयांतलें पुर्विल्लें नामनेचें तीर्थक्षेत्र. ताका बद्रीनारायण अशेंय म्हण्टात. हें उत्तर प्रदेश राज्याच्या चमोली जिल्ह्यांत, अलकनंदा न्हंयेच्या कांठार, समुद्रथरासावन सुमार ३,००० मी. उंचायेचेर आसा. उत्तर प्रदेश राज्यांतल्या श्रीनगराचे ईशान्येक ८८ किमी. जाल्यार जोशीमठाचे उत्तरेक ३२ किमी. चेर बद्रीनाथ वसलां.

बद्रीनाथ हें नांव कशें पडलें, हाचेविशीं वेगवेगळीं मतां आसात- १) भगवान विष्णु हांगा तपश्चर्येक बशिल्लो आसतना, ताका वत लागचें न्हय म्हणून लक्ष्मीन बोराच्या झाडाचें रूप घेतलें. ताका लागून ह्या जाग्याक 'बदरीनाथ' (बदरी-बोर) हें नांव पडलें अशें म्हण्टात. २) पयलीं थंय आशिल्ल्या बोरींच्या वनाक लागून ताका 'बदरीनाथ' हें नांव पडलें अशेंय कांय जाणकारांचें मत आसा.

हांगाचें बद्रीनाथाचें (विष्णुचें) देवूळ आद्य शंकराचार्यान आठव्या शेंकड्यांत बांदलें. पूण शिंयाळ्यांत एकसारक्या पडपी बर्फाक लागून तें मोडलें. नव्यान परतून हें देवूळ, तेराव्या शेंकड्यांत गढवालच्या म्हाराजान बांदलें आनी अहल्याबाई होळकर हिणें ताचेर भांगराचो कळस चडयलो अशें म्हण्टात. ह्या देवळाचे गर्भकुडीचेर पागोडा पद्दतीचो भांगराच्या पत्र्यान शिरंगारिल्लो घूड आसा.

गर्भकुडींत शाळिग्राम शिळेची, बद्रीनाथाची मूर्त आसा. पद्मासन घाल्ली, चार भुजांची ही मूर्त ६० सेंमी. उंचायेची आसा. तिचे दोन हात जोडिल्ले आसून दुसऱ्या दोन हातांनी शंख-चक्र आसा. बद्रीनारायणाच्या दाव्या हाताक लक्ष्मी आनी नर-नारायणाच्यो शंख-चक्र- गदाधारी मुर्ती आसात. उजवे वटेन कुबेर, गणपती तशेंच गरूड, नारद आनी उध्दव हांच्यो मुर्ती आसात.

बर्फाक लागून नोव्हेंबर ते एप्रिल ह्या काळांत हें देवूळ बंद दवरतात आनी बद्रीनाथाची उत्सवमूर्त दर्शनाखातीर जोशीमठांत व्हरून दवरतात. वैशाख म्हयन्यांत उत्सवमूर्त परत बद्रीनाथाक हाडटात. त्या दिसासावन बद्रीनाथाचे यात्रेक सुरवात जाता.

शंकराचार्याच्या काळासावन हांगाचो पुजारी नंपुतिरी ब्राह्मण आसता. ताका 'रावळ' अशें म्हण्टात.

ह्या क्षेत्रांत पांच तिर्थां आसात, ती अशीं- ऋषिगंगा, कूर्मधारा, प्रल्हादधारा, तप्तकुंड, नारदकुंड तप्तकुंडांतलें उदक सदांच गरम आसता. ह्या कुंडा सकयल गरूडशिळा, नारदशिळा, मार्कंडेयशिळा, नरसिंहशिळा

आनी वाराहीशिळा अशो पांच शिळा आसात. तशेंच वसुधारा धबधबो, मुचुकुंद गुहा, बदरिकाश्रम (व्यासाची पर्णकुटी), गंधमादन पर्वत आनी अस्तंतेक २७ किमी. चेर बद्रीनाथ हें ७,१३८ मी. उंचायेचें नामनेचें तेमूक आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बनवड :** (पळेयात कोंकणी साहित्य).

**बनारस हिंदू विश्वविद्यालाय :** उत्तर प्रदेशांतलें नामनेचें विद्यापीठ. ४ फेब्रुवारी १९१६ ह्या दिसा वाराणसी (बनारस) नगरांत ह्या विद्यापिठाची स्थापना जाली. ह्या विद्यापिठाचे स्थापनेंत पंडित मदन मोहन मालवीय, महाराजा प्रभू नारायण सिंग, डॉ. ॲनी बेझंट आनी महाराजा रामेश्वर सिंग हांचो व्हड वांटो आसा. विद्यापिठाचें स्वरूप अध्यापनात्मक आनी निवासी आसून हातूंत दोन घटक महाविद्यालयां आनी अठरा संलग्न महाविद्यालयांचो आस्पाव जाता. हीं विद्यालयां कला आनी विज्ञान फांट्यांचे अभ्यासक्रम चलयतात. विद्यापिठाचें संविधान हेर विद्यापिठांभाशेनूच आसा. कुलगुरू आनी कुलसचीव हे सवेतन सर्वोच्च अधिकारी विद्यापिठाची प्रशासन वेवस्था पळयतात.

ह्या विद्यापिठांत मानव्यविद्या, प्रयोगीय कला, समाजीक विज्ञान, वाणिज्य, विधी, शिक्षणशास्त्र, भारतीय वैजकी, वैजकी, शेती, प्राच्यविद्या, धर्मशास्त्र, अभियांत्रिकी आनी तंत्रविद्या हे शिक्षणविभाग आसात. 'चक्रवर्ती' आनी 'वाचस्पती' ह्यो पदव्यो 'प्राच्यविद्या' आनी 'धर्मविद्या' ह्या विद्याफांट्यांत दितात. हांगा इंग्लीश आनी हिंदी माध्यमांतल्यान शिक्षण दितात.

राज्याची समाजीक आनी अर्थीक उदरगत घडोवन हाडपाखातीर विद्यापिठान एक प्रसारकेंद्र स्थापन केल्लें आसून थंय राजकीय घडामोडींविशीं संशोधन करतात. हें केंद्र राज्याच्या घडामोडींची म्हायती दिवपी तीन म्हयनाळें आनी पुस्तकां उजवाडा हाडटा. विद्यापिठाच्या जायत्या शिक्षण विभागांत आनी महाविद्यालयांत पाठपद्दत आनी भासाभास पद्दत सुरू आसा. विज्ञान, वाणिज्य, शेती आनी विधी ह्या विभागांत स म्हयन्याळी परिक्षा पद्दत आसा.

'सर सुंदरलाल रुग्णालय' नांवाचें विद्यापिठांत स्वतंत्र रुग्णालय आसा. विद्यापिठाच्या वसतीगृहांतल्या विद्यार्थ्यांची तशेंच महाविद्यालयीन विद्यार्थ्यांची दर वर्सा वैजकी तपासणी करून तांकां फुकट वखदां दिवपाची सुविधा आसा.

विद्यापिठाचें व्हड खेळां मैदान आसून थंय फुटबॉल, हॉकी, क्रिकेट, टॅनिस आदी खेळ खेळपाच्यो सुविधा आसात. विद्यापिठाची एक व्यायामशाळा आसून थंय वेगवेगळे तरेचे शारिरीक खेळ शिकोवपाखातीर निर्देशक नेमतात. विद्यापिठाच्या आवारांत पेंवपाचें तळें आसा. नाताळाचे सुटयेंत विद्यार्थ्यांक गिर्यारोहणाचें शिक्षण दिवपाची सोय विद्यापिठान केल्या. भारतीय कला आनी पुरातत्त्वविद्या ह्या विद्यापिठीय विभागाचें व्हड संग्रहालय आसून ताका 'भारत कला भवन' अशें म्हण्टात. ह्या कलाभवनातलीं चित्रा, शिल्पाकृती, किनखाब, नाणीं, लुगटां ह्या सारक्या वस्तूंच्या संग्रहाक राश्ट्रीय म्हत्व मेळ्ळां.

विद्यापिठाचीं वट्ट ३७ वसतीगृहां आसून तातूंतल्या ६ वसतीगृहांनी चलयो रावतात. विद्यापिठाच्या आवारांतूच २८ वसतीगृहां आसात. विद्यापिठाचें एक आंतरराश्ट्रीय वसतीगृह आसून थंय पन्नास विदेशी विद्यार्थी रावपाची सुविधा आसा.

हें विद्यापीठ वेगवेगळयो शिश्यवृत्ती आनी विद्यावेतन दिता. जुलय-एप्रिल हें विद्यापिठाचें शिक्षणीक वर्स आसून तातूंत तीनं सत्रां आसतात. विद्यापिठाचें ग्रंथालय खूब व्हड आसून तातूंत पांच लाखांवयर ग्रंथ-नेमाळीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**बनारसीदास :** (जल्म : इ. स. १५८६ जैनापूर; मरण : इ. स. १६४३).

कवी आनी ग्रंथकार. ताचें नांव विक्रमाजित अशें आशिल्लें. खूब आंगवणी केले उपरांत ताचो जल्म जाल्ल्यान पार्श्वनाथाचे सांगणेप्रमाण ताचें नांव बनारसीदास अशें दवरिल्लें. ताचो बापूय खरगसेन जैन आशिल्लो. तो जवाहिऱ्याचो वेवसाय करतालो.

ताणें श्वेतांबरपंथ सोडून दिगंबर पंथ आपणायलो. भानुचंद्र, पंडित देवदास आनी अभयधर्म हे ताचे गुरू आशिल्ले.

आचारापरस तत्त्वगिन्यानाकडेन ताका चड ओड आशिल्ली. ताचे पांच वांगडी आशिल्ले. ते सगळे मेळून अध्यात्माचेर चर्चा करताले.

पिरायेच्या १५ वर्सांचेर ताणें 'नवरसरचना' हो ग्रंथ बरयलो. 'बनारसीविलास', 'नाटकसमयसार', 'अर्धकथानक' आनी 'नाममाला' हे ताचे चार म्हत्वाचे ग्रंथ. तेभायर 'मोहविवेकयुध्द', 'मांझा' हे ग्रंथ बरयल्यात. स्वताची आपजीण बरयतना ताची पिराय ५५ वर्सांची आशिल्ल्यान ताका 'अर्धशतक' अशें नांव दवरिल्लें.

तीन बायलो आनी णव भुरग्यांचो वियोग, वेवसायांत अपेश, कुश्ठरोगाचो त्रास आनी वेव्हाराचें गिन्यान नाशिल्ल्यान ताका जे कश्ट, दगदग सोंसचे पडल्यात, ताचें प्रतिबींब ताचे आपजिणेंत दिश्टी पडटा. तो म्हणटा-

*यह संसार विंडबना, देखि पगट दुख खेद ।*

*चतुर चित्त त्यागी भये, मूढ न जानहि भेद ।*

**अर्थ** - हो संवसार म्हळयार सामकी विटंबणा. तातूंत खूब दुख्खां

भरल्यांत. बुदवंत मनशाचें चित्त त्यागी जाता, पूण मुर्खाक मात तातूंतलो भेद कळना.

- कों. वि. सं. मं.

**बनिया** : एक वेपारी जात. संस्कृत वणिज् म्हळ्यार वेपारी ह्या उतरावयल्यान बनिया हें उतर आयलां. तांकां वाणी, वाणिया, बंजिग, अशींय नांवां आसात. उत्तर प्रदेश, महाराष्ट्र, गुजरात, बिहार, ओडिसा, मध्यभारत, काश्मीर आनी राजस्थान ह्या भागांनी बनिया लोकांची वसती चड आसा.

बनिया लोकांच्यो खूब पोटजाती आसात. तातूंतल्यो कांय अशो- खंडेलवाल, लाड, मोढ, नागर, काठी, अद्वास, मिसरी, कसेर उमरा, वागरिया, धुसार, अग्रवाल, ओसवाल, परवार, लिंगायत, मराठा, माहेश्वरी, गहोई, श्रीमाळी, जैसवाल आनी हेर. चडशे बनिया लोक जैन; हेर वैष्णव आसात. परथून, जैनांभितर वीसा आनी दसा म्हळ्यार उच्च आनी नीच अशे भेद आसात.

बनिया लोकांमदीं बारा गोत्रां आसात. जबलपूर-रायपूर ह्या भागांतले बनिया लोक नानकपंथी आसून तांचेमदीं औधिये, साधी, चरणाग्री, भार्गव, गहोई, गोलपूरव, कसखानी, कसौंधन ह्यो पोटजाती आसात.

गुजराती वाणिया ह्या बनिया लोकांमदीं अगरवाल, बगरिया, बाज, देशावाल, गुर्जर, जेलवाल, नागर, पल्लीवाल, उम्मद अशो चाळीस पोटजाती आसात. हातूंतले कांय लोक जैन आसून, तांकां श्रावक आनी हेरांक मेश्री अशें म्हण्टात.

कांय बनिया लोक मुसलमान आसात. तेचप्रमाण कांय लोक हिंदू आसून ते जानवें घालतात. गुजराती वाणिया लोक स्वताक वैश्य समजतात.

जबलपूर-रायपूर ह्या भागांतले बनिया लोक राजपूत वंशाचे आसून ते बुंदेली आनी मारवाडी ह्यो बोली भाशा उलयतात.

बनिया दादले, धोतर, जाकीट, अंगरखो, उपरणें आनी पागोटें असो भेस करतात. बायलो साडी-ब्लाऊज वापरतात. तांचे कपडे भडक रंगांचे पूण उंची आसतात. श्रीमंत बनिया दादले भेंडाक रुप्याची सरपळी, दंडांत भांगराचें कडें, कानांत भिगबाळी, गळयांत भांगराचो वा मोतयांचो हार आनी हाताच्या बोटांक मुदयो घालतात. बनिया बायलो भांगराचीं वा मोतयांची कानांतलीं, नाकांत नथ, गळयांत मोतयांचो वा भांगराचो हार, कांकणां, मुदयो, पांयांत रुप्याचे घुंगूर अशे अलंकार घालतात.

बुंदेलखंड आनी मोरादाबादचे गहोई पोटजातीचे लोक वैष्णव. ते श्रीकृष्ण वा बिहारीलाल हांकां भजतात. औधिया पोटजातीचे लोक देवीक भजतात आनी दसऱ्याक तिका बळी दितात.

गुजराती वाणियांतले मेश्री पोटजातीचे लोक वैष्णव आसून ते सदांच देवाची पुजा करतात. दादले तशेंच बायलांच्या गळयांत तुळशीची माळ आसता. पूण श्रावक पोटजातीचे लोक जैन आसात. तांचे श्वेतांबर आनी दिगंबर अशे दोन भेद आसात. श्रावक वाणिया तीर्थंकारांची पुजा करतात. पर्युषण आनी सिध्दचक्रपुजा हे तांचे मुखेल उत्सव आसात. श्वेतांबराचें पर्युषण पर्व श्रावण वद्य दुवादशीक सुरू जावन भाद्रपद शुध्द पंचमीक सोंपता. दिगंबराचें पर्युषण पर्व भाद्रपद शुध्द पंचमीक सुरू जावन भाद्रपद वद्य पंचमीक सोंपता. ह्या पर्वकाळांत उपास करतात. सिध्दचक्रपुजा वर्सांतल्यान दोनदां, चैत्र आनी आश्विन ह्या म्हयन्यांनी शुध्द सप्तमीक सुरू जावन पुनवेक सोंपता. मध्यप्रदेशांतले बनिया लोक शिराळ शेटाभाशेन नाथूरामाची एक मूर्त शिगम्यांत नाचयतात आनी दादले-बायलो एकामेकाचेर गुलाल मारतात.

बनिया लोकांमदीं मातृवंश वा पितृवंश हांच्यो पांच पिळग्यो तुटलेबगर परस्पर लग्नसंबंद जायनात. जैन बनियांच्या लग्नांत व्हंकल, न्हवऱ्याचे भोंवतणीं सात प्रदक्षिणां घालता. दर एक प्रदक्षिणे वेळार न्हवरो तिच्या माथ्यार साकर उडयता.

बनिया लोकांमदीं, एकाच गोत्रांत लग्नां जायनात. परबार पोटजातींत, लग्नाच्या पांचव्या दिसा, व्हंकलेचो बापूय नव्या पलंगाचेर तांबडें वस्त्र घालता. न्हवरो-व्हंकल ताचेर बसतात आनी सोयरीं तांकां अहेर करतात. मेश्री वाणिया लोकांमदीं चलयेचें लग्न सादारणपणान इकरा वर्सांचेर जाता. न्हवऱ्याची आवय-बापूय चलयेक मागणी घालतात. उपरांत दोगांयच्यो पत्रिका जुळ्ळ्यार साकरपुडो करतात. कांय तेंपान लग्न करतात. लग्नाखातीर एक खास तीन खांब्यांचो चौरस करतात. ताका 'चोरी' अशें म्हण्टात. लग्नाच्या दिसा व्हंकलेचो आनी न्हवऱ्याचो मामा तांचेखातीर वाजत-गाजत अहेर घेवन येतकच, व्हंकलेवटेनच्यो बायलो न्हवऱ्यागेर रुपावत घेवन वतात. उपरांत न्हवऱ्या-व्हंकलेक आपआपल्या घरा चार सवायशिणींनी न्हाणयतकच मामान दिल्ले अलंकार घालतात. 'चोरींत' दोगांयकूय पाटार उबीं करतात. तांचेमदीं अंतरपाट धरून, पुरयत मंगलाश्टकां म्हण्टा आनी म्हुर्ताचेर तांचे दोगांयचे हात एकामेकांच्या हातांत दिता. तांच्या वस्त्रांच्या पदरांक गांठ मारतकच घरचीं सोयरीं तांकां अहेर करतात. उपरांत लग्नहोम जावन अग्नीभोंवतणीं चार प्रदक्षिणां घालून उश्टावण जाता. व्हंकल न्हवऱ्यागेर वता आनी लग्नसुवाळो सोंपता. श्रावक वाणिया हांचोय लग्नविधी असोच आसता पूण तांगेर व्हंकलपावणी घरा येतकच जोडयेन गणपतीची पुजा करतात. लागींच्या नात्यांत तशेंच आते-मामेवा मावशेभावंडांभितर तांचीं लग्नां जायनात.

उत्तर भारतांत व्हंकलेची धेडी म्हणून हेर बायलां तिचेवांगडा वतात. नेमाडांत लग्नाउपरांत भुरगें जायमेरेन ज्वारी खावंची पडटा. भुरगें जातकच दिल्ली लागसारच्या महाऊरचे देवीचें दर्शन घेतकच तिका गंव खावपाक मेळटात.

परवार लोकांमदीं ब्राह्मणाक विचारून भुरग्याक नांव दवरतात.

सादारणपणान, बायलेचो पयलो बाळटेर कुळाराच जाता. पांचव्या

म्हयन्यांत पंचमासी आनी सातव्या म्हयन्यांत सीमंत नांवाचो संस्कार करतात. उपरांत ती कुळारा येता. बाळंत जातकच सव्या दिसा षष्ठीपूजन जाता. बाराव्या दिसा बाळंतीण, तांदळांच्या बारा ल्हान राशींची पुजा करून ते पुरयताक दिता. उपरांत ती बांयची आनी दाराच्या खांब्यांचीय पुजा करतात. मावळण भुरग्याक नांव दवरता. बाराव्या दिसा नांव दवरलेंना जाल्यार चाळिसाव्या दिसा दवरतात. चलो तीन, पांच वा सात वर्सांचो जातकच ताचे जांवळ करतात. चलयेची माथ्याची फाटल्या केंसांची एक बट कापतात.

गहोई पोटजातींत, मेल्ल्या मनशाच्या तेराव्या दिसा श्राध्द करतात आनी पितूळचीं वा मातयेचीं तेरा आयदनां पीठ भरून ब्राह्मणांक दितात.

औधिया पोटजातींत मडें पुरतात वा लासतात. मड्याक पयलीं मीठ, तूप, हळद आनी दूद लायतात आनी पुरतात. पुरिल्ल्या जाग्यावयली थोडी माती न्हंयेत उडयतात. सांसर्गिक रोगान मेल्ल्या मनशाची कूड गंगेच्या प्रवाहांत उडयतात आनी एका वर्साचे पयलीं ताची पिठाची मूर्त करून तिच्यो सगळयो विधी करून दहन करतात.

असाधी लोक पयलीं अर्दें मडें लासताले आनी अर्दें पुरताले.

परवार लोक मडें लासतकच लागीचे न्हंयेंत न्हावन घरा वतात. दुसऱ्या दिसा मेल्ल्या मनशाचे लोक पार्श्वनाथाच्या देवळांत वचून देवामुखार थोडी ज्वारी दवरतात. मध्य प्रदेशांतले परवार लोक घराक धवो रंग दितात. घरांतलीं मातयेचीं आयदनां फोडटात आनी सोयऱ्यांक-इश्टांक जेवण घालतात.

मेश्री वाणिया लोकांत मडें लासतात. अस्थी न्हंयेंत वा दर्यांत उडयतात. धाव्या, इकराव्या, बाराव्या आनी तेराव्या दिसा मृताचे अंत्यसंस्कार करतात. इकराव्या दिसा पाडी आनी गोऱ्हा हांचें लग्न करतात. बाराव्या दिसा कावळयाक अन्न दितात, तेराव्या दिसा ब्राह्मणाक हांतरूण दान दितात. वर्स श्राध्दाच्या दिसा सोयऱ्या-दायऱ्यांक जेवण घालतात.

श्रावक वाणिया लोक पांच ते धा दीस सुतक पाळटात. मेल्ल्या मनशाक 'पुण्य-प्रकाश' ह्या ग्रंथांतलो कांय भाग वाचून दाखयतात. पुराय पोशाख घालून शेणान सारयिल्ल्या जाग्यार दवरतात. रस्त्यावयल्या सुण्यांखातीर लाडू उडयतात. निसणीर घालून मडें मसंडेंत व्हरून अग्नी दितात.

व्याजान पयशे दिवप, कड्डण, लुगटां हांचो वेपार करप हो बनिया लोकांचो मुखेल वेवसाय.

दोसन पोटजातींतले लोक भांगर रुप्याच्यो वस्ती विकतात. तेचप्रमाण तंबाखू कड्डण हांचोय वेपार करतात.

- कों.वि.सं.मं.

**बयाबाई :** (इ. स.चो १७वो शेंकडो). रामदासी संप्रदायांतली एक संत कवयित्री. हिका बयाबाई रामदासी अशेंय म्हण्टात. ल्हानपणांतूच तिचेर रामाची कृपा जावन तिका रामाचें दर्शनूय जाल्लें अशें सांगतात. तिच्या जल्म गांवाविशीं कांयच म्हायती मेळना. तिची काव्यरचना सामकी उण्या प्रमाणांत आसा. तिचे कवितेवयल्यान रामदासी उजवाड पडटा अशें राजवाडे हाचें मत आसा. पूण तिची कविता रामदासी थाटाची नासून स्वतंत्र आसा.

आपल्या गुरूक तिणें आवय, बापूय, घोव, देव, श्रीकृष्ण ह्या उतरांनी विनयलां. गुरूविशीं तिचें एक पद अशें आसा -

*या गुरुनं मज वेडची लाविलं ।*
*अहो मन हें तत्पदीं तन्मय जालें ।।धृ.।।*
*सांवळी सुरत नयनांत बैसली ।*
*पाहतां पाहणें समूळचि गेलें*
*पश्चिमपंथ हे अवघड वाट ।*
*ब्रह्मगिरीच्या शिखरीं नेलें*
*सत्रावीचा पाजुनि पान्हा ।*
*नेऊनियां निजीं निजविलें*
*रामदास गुरुराजकृपेनें*
*दास बया हें मीपण गेले*

बयाबाईक ८४ वर्सांची पिराय लाबली आनी तिणें आपली सगळी जीण परमार्थांत सारली.

- कों. वि. सं. मं.

**बरवे, कृष्णा रामचंद्र :** (जल्म : आबेंडें-सत्तरी; मरण : २ ऑगस्ट १९७४).

सुटकेझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां वांटप, चोरयां बसका घेवप, लोकांक सत्याग्रहांत वांटो घेवंक स्फूर्त दिवप, राजकीय नेमाळीं वांटप असलीं कामां तो करतालो. पुलिसांनी ताच्या घराचेर जप्ती हाडली आनी ताका धरलो. एका वर्सा उपरांत ताची सुटका केली. भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**बरवे, वामन रामचंद्र :** (जल्म : २ मार्च १९२१, आबेंडें - सत्तरी).

सुटकेझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. लोकांच्या मनांत राजकीय जागृताय हाडपाक आनी सुटके चळवळीचें म्हत्व तांकां पटोवन दिवंक १९५२ सावन ताणें जायतो वावर

केलो. २६ जानेवारी १९५५ दिसा ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. त्याच दिसा पुलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत घालो. २२ जून १९५५ दिसा ताका सात म्हयने खर बंदखणीची ख्यास्त दिली.

२८ जून १९५७ दिसा पुलिसांनी ताका परतो धरलो. पूण ताणें वाळपय बंदखणींतल्यान पळ काडून गोंयची शीम हुंपली. ताका धरपाचें फर्मान काडिल्ल्यान गोंयचे सुटके मेरेन तो गोंयाभायरच रावलो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान तामपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## बरवे, सखाराम पांडुरंग : (जल्म : १८९९ 'वेळगें', सूर्ल; मरण : ३० मे १९७२).

गोंयचो अश्टतासांचो कलाकार. ताचो बापूय पांडुरंग बर्वे सुर्लाच्या श्रीसिध्देश्वराच्या देवळांत पुजारी आशिल्लो.

ल्हानपणांतसावन सखारामाक नाटककला आनी हार्मोनियम वादनाची ओड आशिल्ली. ताका लागून पिरायेच्या आठव्या वर्सा पेटी वादनाचें शिक्षण घेवपाक म्हणून तो मामाल्या घरा बांदोड्या वचपाक घरांतल्यान पळून गेलो. थंय ताका गायनाचार्य वझेबुवा हाचो सांगात मेळ्ळो. पेटी वादनाखातीर गोंयाभायरूय वचपाची ताणें वझेबुवाक तयारी दाखयली. ल्हान पिरायेंतली संगितांतली ताची जिद्द पळोवन गायनाचार्यान ताका आपलेवांगडा पुण्याक व्हेलो आनी थंय रामभाऊ कुंदगोळकर (सवाई गंधर्व) हाचे नाटक कंपनींत दवरलो. कंपनींत 'नाच्या भुरग्याचें' काम करतां करतां 'नूतन संगीत' मंडळीचो पेटीवालो म्हणून तो नांवारुपाक आयलो. उपरांत कांय वर्सांनी गोंयांत येवन ताणें आपले नाटक कंपनीची स्थापणूक केली. पूण ही कंपनी कांय वर्सांनी बंद पडली. उपरांत बापुसाहेब पेंढारकर आनी नानासाहेब चापेकर हांणी केशवराव भोंसले हाच्या मराणाउपरांत ताची 'ललित कला दर्श' संगीत मंडळी चलोवपाक घेतली. हातूंत सखारामान पेटीवालो म्हणून काम केलें. पूण हीय कंपनी चित्रपटाच्या वेवसायांत पडिल्ल्यान थंड पडली.



तेन्ना सखाराम बापू परतून गोंयांत आयलो. गोंयांत येवन ताणें वळवयचे नाटकप्रेमी जगन्नाथ फडटे आनी सावळाराम तारी हांच्या पालवान 'ललितप्रभा संगीत नाटक मंडळी' सुरू केली. मा. दत्ताराम, मनोहरबुवा शिरगांवकर, रघुवीर नमशीकार, बुकीमाम बांदोडकार ह्या नाट्यकलाकारांक घेवन ताणें दर्जेदार संगीत नाटकां सादर केलीं. हे कंपनीखातीर ताणें आपणें बरयल्लें 'संगीत प्रणयी कीटक' हें वेश्याविवसायाआड आशिल्लें नाटक बसयलें. गोंयांतलें हें रंगमाचयेवयलें पयलें प्रदेशीक नाटक. गोंयच्या विंगड विगंड वाठारांनी कोंकणी भाशेची शैली वेगळी आशिल्ल्यान आनी हें नाटक सामान्य गोंयकारांच्या काळजांत पावचें म्हणून ताणें ह्या नाटकांत तिसवाडी, बार्देश, अंत्रूज आनी पेडणें ह्या म्हालांतलें एक एक पात्र आस्पावन नाटक निर्मिलें. उपरांत वासुदेवराव सिरसाट हाका घेवन 'नाट्य विकास' ही संस्था स्थापन केली. गोंय तशेंच महाराष्ट्रांत नाटकांचे प्रयोग केले.

सखाराम बरवे नामनेचो हार्मोनियम वादक म्हणून गोंयांत आनी महाराष्ट्रांत नामनेक पावलो. संगीत शास्त्रावयलीं ताणें बरयल्लीं 'संगीत साधन' आनी 'संगीत दर्शन' हीं पुस्तकां नव्या संगीत शिकपी विद्यार्थ्यांक भोव मार्गदर्शक थरतात. ताणें योगसंसार, पुनर्जन्म हीं पुराणकथेचेर आदारीत नाटकां बरयल्यांत. तशींच संत तुकाराम आनी नंदकिशोर हीं ताचीं नाटकां अप्रकाशीत आसात.

तो किर्तनांतल्यान भारत सरकाराच्या धोरणाचो प्रसार करता अशी वदंता, त्या वेळच्या पुर्तुगेज पुलिसांक लागली आनी ताचेर आजेंत मोंतेरीन धरपाचें वॉरंट काडलें. तें चुकोवन सखाराम, गोंय मुक्त जायमेरेन सावंतवाडीक वचून रावलो. हांगाच ताणें आझाद गोमन्तक दलाखातीर 'जळता गोमन्तक' हें राजकीय नाटक बरयलें. ह्या नाटकांतल्यान ताणें गोंय सरकाराआड खर टिका केली. गोंय मुक्ती संग्रामांत, प्रचाराचें एक खर माध्यम म्हणून ह्या नाटकाचो खूब उपेग जालो. कोंकणपट्टो आनी मुंबय हांगा ह्या नाटकाचे खूब प्रयोग जाले. ह्या नाटकांत बरवे स्वताय भुमिका करतालो.

गोंय सरकारान १९९० वर्सा बरवेचो मर्णा उपरांत सुटकेझुजारी म्हणून पणजे, आझाद मैदानाचेर गोंय क्रांती दिसा निमतान भोवमान केलो.

ताणें 'गोमन्तक' दैनिकांत बरयल्ले 'माझ्या नाट्यस्मृति' हे लेखमाळेचें, ताचो पूत रमेश बरवे, हाणें संकलन केल्ल्या पुस्तकाचें, गोमन्तक मराठी अकादेमीन १९९२ वर्सा प्रकाशन केलें.

- रमेश सखाराम बरवे

## बर्फ : 
बर्फ म्हळयार शेंकेवन घट्ट जाल्लें उदक. उदकाची सैमीक वा यंत्रीक क्रियेंत शेंकयल्ली अवस्था. उदकाचें तापमान $0^\circ$ से. सकयल सैमीक वा यंत्रीक रितीन देंवतकच उदकाक स्फटिकी वा अस्फटिकी अशें घट रूप प्राप्त जाता. सैमीक रितीन बर्फ तयार जावपाची प्रक्रिया पावसाचे

प्रक्रियेभाशेन आसता. अशे रितीन तयार जावपी बर्फ पावसाभाशेन हवेंतल्यान जमनीर पडटा. तेचपरी दर्या, न्हंयो, तळीं हांच्या उदकाचेर निर्माण जाता.

**इतिहास :** मोगल पंजाबच्या दोंगरावयल्यान बर्फ हाडटाले. उपरांत इंग्लिशांनी अमेरिकेंतल्यान बर्फ आयात केलो. ते खातीर बॉस्टनांतले तळयेंतलो बर्फ कलकत्ता, मुंबय आनी चेन्नईच्या बंदरांचेर हाडून खासा तयार केल्ल्या पेटयांनी दवरताले. इ. स. १५८३ वर्सा सावन बर्फ आनी बर्फाच्या पिठ्याचो वापर जावंक लागलो. तेन्ना लाहोर सावन सुमार ४५ किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या पन्हान जिल्ह्यांतल्या उत्तरेकडल्या दोंगरावयल्यान बर्फ हाडटाले. हो बर्फ गिरेस्त आनी राजा लोकूच वापरताले.

बर्फाक रूपच रंग नासता. पूण उजवाड पडटकच बर्फाचो दाट थर लिकलिकीत निळो दिसता. सारको तयार जावंक नाशिल्लो बर्फ वा पिठो धवोच दिसता. बर्फ ०° सॅ. तापमानाचेर वितळटा. उदकाचें तापमान सदांच्या तापमानापरस सकयल येवंक लागतकच ताचें घनफळ उणें जावंक लागता. ४° सॅ. तापमानांत तें सगळ्यांत उणें जाता आनी तापमान हाचेयपरस सकयल वचूंक लागतकच घनफळ वाडूंक लागता.

उदकाचो बर्फ जातलो जाल्यार उदक थंड करतना तातूंत धुल्लाचे कण वा बर्फाचे बारीक कुडके आसप गरचें आसता. ना जाल्यार उदक -७२° सॅ. मेरेन थंड जाल्यार लेगीत ताचो बर्फ जायना.

बर्फाचेर चेपण घातल्यार बर्फ वितळपाचें तापमान सकयल देंवता. वातावरणांतल्या दाबाच्या सुमार १३४ पटींनी दाब दिल्यार, बर्फाचो वितळबिंदू -१° सॅ. जाता. अशे तरेन चड दाब वापरून विंगड विंगड गुणधर्मांचे स तरांचे बर्फ तयार करूं येतात. चड दाब वापरून केल्लो बर्फ उदकापरस जड आसता आनी सादो बर्फ उदकापरस ल्हव आसता.




**उदकाच्या रेणूंची (Molecules) बर्फांतली मांडावळ**
१-ऑक्सीजन अणू, २-हायड्रोजन अणू, ३-रसायनीक बंध, ४-हायड्रोजन बंध.

**बर्फ निर्मिती :** फैनी पार्क्स (Fanny Parks) हाच्या मतान १९ व्या शेंकड्यांत दिल्लींत शियाळ्या दिसांनी बर्फ तयार करताले आनी उबाळाच्या दिसांखातीर सांबाळून दवरताले. बर्फ तयार करपाखातीर धातूच्या आयदनांत भरिल्लें उदक रातीचें भायर दवरून थंड करताले. जमनीची हूनसाण आयदनाक बादची न्हय म्हणून आयदनाच्या पोंदाक तणाचो दाट थर पातळायताले. नितळ मळब आनी ६° सॅ. परस उणें तापमान आसल्यार फांतोडेचीं तीन वरांमेरेन ४ सेंमी. दाटाय आशिल्लो बर्फाचो थर तयार जातालो. अशे तरेन तयार केल्लो बर्फ वेवस्थीत धांपिल्ल्या फोंडकुलांत सांठोवन दवरप जातालें. डिसेंबर ते फेब्रुवारीमेरेन तयार केल्ल्या बर्फाची मे, जून, जुलय आनी ऑगस्टमेरेन, इंग्लीश अधिकाऱ्यांक पुरवण जाताली.

सैमीक पद्धतीन बर्फ तयार करपाचे इराणांत व्हड उद्देग आशिल्ले. थंय बर्फ तयार करपाखातीर उणे खोलायेचीं फोंडकुलां मारताले. तशेंच त्या बर्फाक वत आनी वाऱ्याची बादा जावंची न्हय म्हणून ताचे दक्षिण दिकेवटेन ऊंच वणत बांदताले. शिंयाच्या दिसांनी, रातीकडेन तयार जाल्लो बर्फ, उबाळाच्या दिसांनी वापरपाखातीर जमनीपोंदा सांठोवन दवरताले. उपरांत हो उद्देग बंद पडलो.

१८७६ वर्सासावन, व्हड प्रमाणाचेर यांत्रीक पद्धतीन बर्फाची निर्मिती जावपाक लागली. ते उपरांतच्या काळांत बर्फनिर्मितींत वापराक येवपी घटकांनी व्हडलोसो बदल जावंक ना. पूण आर्विल्ल्या काळांत ल्हान प्रमाणाचेर बर्फ तयार करपाचीं यंत्रां उपलब्ध आसात. पयलीं हे बर्फ निर्मितींत, वाफेचेर चलपी यंत्राचो उपेग व्हड प्रमाणाचेर जातालो, तेन्ना यंत्रांत वापरिल्ली वाफ द्रवांत रुपांतरीत करून आनी शुध्द करून मेळपी उदक बर्फ तयार करपाखातीर वापरप जातालें. पूण आतां न्हंयो, बांयो, तळीं हातूंतल्यान मेळपी उदक बर्फ तयार करपाक वापरतात. उदक शुध्द करून घेवपाचें आसल्यार तें आर्विल्ल्या उपलब्ध आशिल्ल्या पद्धतींनी शुध्द करून घेतात. नुस्तेमारीच्या धंद्यांत दर्याचें खारें उदक वापरून तयार केल्लो बर्फ उपकारता.

बर्फ तयार जावपाक उदकाचें तापमान ०° सॅ. परस सकयल आसचें पडटा. खंयच्याय वायूचेर (gas) चेपण घालून वायू चेपलो जाल्यार तो तापता. तापिल्लो वायू थंय उदक शिंपिडल्यार न्हिवता. चेपिल्लो (Compressed) थंड वायू बारीक बुराकांतल्यान सोडून ताचेवयलें चेपण देंवयले उपरांत तो वायू सामको थंड जाता आनी तापमान देंवता. अशे तरेन थंड केल्लो वायू परतून-परतून चेपून फुलपाक (expand) दीत जाल्यार तो खूब थंड पडटा आनी तापमान खूब सकयल देंवता. हे पद्धतीन तापमान देंवोवपाक आमोनिया वायू वापरतात.

सोडियम क्लोरायड वा कॅल्शियम क्लोरायड उदकांत विरोवन खारें उदक तयार करतात. ह्या उदकाचो गोठणबिंदू उदकाच्या गोठणबिंदूपरस उणो आसता. सोडियम क्लोरायडाचें खारें उदक -१०° सॅ. आनी कॅल्शियम

क्लोरायडाचें खारें उदक -४०° सॅ. परस उण्या तापमानाखातीर वापरपाक मेळना. हें उदक एके लेखणी पत्र्याचे, लांकडाचे वा शिमिटाचे टांकयेंत घालतात. ही टांकी ३० मीटर लांब आनी १० मीटर रूंद आसता वा उत्पादनाच्या प्रमाणान हे टांकयेचो आकार आसता, आनी १.२५ ते १.५ मी. खोल आसता. टांकी वयल्यान उकती आसता आनी टांकयेंतली थंडसाण उणी जावंक जायना म्हणून चारूय कुशींनी आनी तळाक १५ ते २० सेंमी. दाटायेचो उश्णताय निरोधक पदार्थाचो थर आसता. बर्फाच्या आयदनांक आदार मेळपापासत टांकयेचेर आडवे वारांव आसतात आनी मदीं मदीं पत्र्याचे आडवे पट्टे आसतात. कॅल्शियम क्लोरायडाच्या खाऱ्या उदकाक लागून टांकयेच्या वा आयदनांच्या पत्र्यांक कळम येवंक शकता. तेखातीर ह्या उदकांत पोटेशियम डायक्रोमेट वा सोडियम डायक्रोमेट घालतात. पत्र्याक कळम येवंची न्हय म्हणून तांचेर झिंकाचो (zinc) लेपूय काडटात. बर्फाचीं आयदनां १० ते १५० किलो उदक भरपायेदीं आसतात. हीं आयदनां एकेच वटेन उकतीं आसतात. ह्या आयदनांनी उदक भरून तीं वारांवांच्या आदारान कॅल्शियम क्लोरायडाच्या उदकांत हुमकळायतात. हें खारें उदक बर्फाच्या आयदनांतल्या उदकापरस ३ ते ५ सेंमी. चड आसता. बर्फाची एक फातर (Block) तयार जावपाक ३६ ते ३८ वरां लागतात.

टांकयेंतलें कॅल्शियम क्लोरायडाचें उदक थंड करपाखातीर थंड केल्लो आमोनिया वायू कॅल्शियम क्लोरायडाच्या उदकांत बुडून आशिल्ले लांब नळयेंतल्यान सोडटात. थंड जाल्लो आमोनिया वायू खाऱ्या उदकांतली हूनसाण काडून तें थंड करीत रावता. खाऱ्या उदकांतलें तापमान बर्फ तयार करतना -१०°ते -१२° सँटीग्रेड आसता.

बर्फ तयार जातकच बर्फाचीं आयदनां काडून १६° ते २०° सँ. तापमान आशिल्ल्या उदकाचे टांकयेंत बुडयतात. अशें केल्ल्यान आयदनाचे कुशीचो बर्फ विरगळून बर्फाची फातर आयदनापसून सुट्टा. रिकामीं आयदनां निवळ करून उदकान भरतात आनी परतून बर्फ तयार करूंक टांकयेंत बुडयतात. यंत्रांच्या आदारान बर्फाचे जाय त्या आकाराचे कुडके वा पिठो करून खड्याच्या वा लांकडाच्या खोक्यांनी भरून गिरायकांक पावयतात.

भारतांत बर्फ तयार करपाचे व्हड उद्देग कलकत्ता, मुंबय, दिल्ली, चेन्नई, कानपूर ह्या शारांनी आसात. गोंयांतूय बर्फ व्हड प्रमाणांत तयार जाता. मुंबय, पुणें, किर्लोस्करवाडी, नवी दिल्ली, कलकत्ता हांगा बर्फ निर्मितीची यंत्रसामुग्री तयार जाता.

बर्फाचो उपेग मुखेलपणान शीत गृहांखातीर जाता. नुस्तें, मास, फळां भाजयो हे सारकिले जिनस ताचें दवरपाखातीर करतात. तशेंच शीतपेयां आनी दुदाचे संस्कारीत पदार्थ करपाखातीर बर्फाचो वापर करतात. बर्फाचे निर्मितीचेर आदारून आशिल्लें रॅफ्रिजरेटर हें घरगुती उपकरण हालींच्या काळांत, घरगुती जिनस ताजे दवरपाक तशेंच थंड दवरपाक वापरतात.

बर्फाचो वितळबिंदू दाब दिल्यार उणो जाता ह्या गूणधर्माचेर आदारीत बर्फाचेर खेळपाचे खूब खेळ चलतात. बर्फाळ प्रदेशांनी स्केटिंग, स्कीईंग, टबॉगनिंग, बॉबस्लॅडिंग, बर्फ हॉकी हे सारकिले खेळ लोकप्रिय आसात. भारतांत काश्मीराच्या वाठारांत बर्फाचेर खेळ खेळटात. तशेंच बॅले, वॉल्ट्झ हे सारके नाचूय कांय देशांनी करतात.

- प्रेमानंद फडते

**बर्बर (१) :** एक पुर्विल्ली रानवटी जमात. बब्बल, बाबल हीं हाचींच अपभ्रश्ट रुपां आसुंये. हे लोक संकीर्णयोनी. कौटिलीय अर्थशास्त्र, राजनिघंटू ह्या ग्रंथांनी बर्बर लोकांचो उल्लेख आसा. तशेंच महाभारतांत शक, शबर, यवन ह्या आर्येतर टोळयांवांगडाय बर्बरांचो उल्लेख आयला.

सिंधू न्हंयेच्या त्रिभुज वाठारांतलीं बार्बरिआ आनी पाटल हीं तांचे राजधानीचीं शारां आशिल्लीं. पेरिप्लसाचें बर्बरीकम आनी टॉलेमीचें बर्बराई म्हळ्यारूच बार्बरिआ. पूण बृहत्संहितेंत, हांची वसती वायव्य वाठारांत आशिल्ली अशें म्हळां. तशेंच ब्रह्मांड, मत्स्य आनी वायू ह्या पुराणांनी बर्बरांक उदीत्त्य देशांभितरल्या एका म्लेंच्छ देशांतले मानल्यात. त्र्यं. गु. काळे हाच्या मताप्रमाण हे लोक मूळ शाकद्वीपांतले. थंयसावन सनापयलीं ६०० च्या अदमासाक ते इलावृत वर्षांत आयले. अष्टाध्यायींतूय बर्बरांचो एक जनपद म्हणून उल्लेख आयला.

- कों. वि. सं. मं.

**बर्बर (२) :** उत्तर आफ्रिकेंतल्या लिबियन जमातींतल्या बर्बर भास उलोवपी विंगड विंगड आदिवासी गटांक बर्बर ही संज्ञा आसा. तांचे ल्हान-व्हड मेळून २९ गट आसून तातूंत जायत्यो पोटजातीय आसात.

हे लोक पुर्विल्ल्या काळासावन भूमध्य दर्या ते सहाराचें रेंवट म्हळ्यार नायजर न्हंयेमेरेन आनी इजिप्त ते अॅटलांटिक म्हासागर ह्या प्रदेशांनी पातळ्ळ्यात. पूण आर्विल्ल्या काळांत तांची वसती चड करून आल्जेरिया, लिबिया, मोरोक्को ह्या देशांनी आनी उत्तर आफ्रिकेच्या दुर्गम दोंगरावळींनी आनी रेंवट वाठारांतल्या मरूद्यानांत मेळटा.

हे लोक हॅमिटिक भाशा चोम्यांतली बर्बर भास उलयतात. तिच्यो कांय मुखेल उप-भाशा आसून, तातूंतल्यान तयार जाल्ल्यो जायत्यो बोलीभासोय आसात.

ईजिप्तांतल्या थडग्यांतले चित्रकलेवयल्यान इ.स. पयलीं २४०० वर्सा, ते उदेंत भूमध्य सागरी हवामानाच्या प्रदेशांतल्यान उत्तर आफ्रिकेंत आयले आसुंये. पूण कांय जाणांच्या मताप्रमाण ते इ.स. पयलीं २००० वर्सा आयले. फुडें ते कानेरी जुंव्यामेरेन पावले. थंय स्पेनी लोकांनी तांचेर जैत मेळयलें. हे लोक कॉकेशियन वंशांतले आसून दक्षिण यूरोपांतल्या

भूमध्य सागरी हवामानांतल्या लोकांच्या उप-पंगडांतले गोरो वर्ण, काळेकिट्ट केंस, पुडी कोराचे दोळे आनी तरतरीत आंगलोट हीं कांय शारिरीक खाशेलपणां तांचेमदीं दिसतात.

फिनिशियन, ग्रीक, रोमन, व्हँडॉल, अरब, फ्रेंच आनी स्पेनीश लोकांनी तांचेर खूब घुरयो घाल्यो. पूण संस्कृतीक नदरेन तांची मूळ संस्कृती मात खूबश्या गजालींनी तिगून उरली. तांचेर अरबी संस्कृतीचो प्रभाव आसून, तांचेमदल्या चडशा जाणांनी इस्लाम धर्म आपणायला. इ.स. णवव्या आनी इकराव्या शेंकड्याच्या काळांत बर्बरांनी उत्तर आफ्रिकेचे मोहिमेंत फातिमी खलिफांक खूब आदार केलो. इ.स. इकरा आनी बाराव्या शेंकड्यांतलो ॲल्मॉरव्हिड्झ आनी तेराव्या शेंकड्यांतलो ॲल्महॅडझ ह्या बर्बर वंशांनी मोरोक्को आनी स्पेन हांचेर राज्य केलें. अब्दुल्ला इब्न - यासीन हो ॲल्मारव्हिड्झ वंशाचो संस्थापक आसून ताणें लश्करी बळग्याचेर सहारा रेंवटांतल्यो कितल्योशोच जमाती एकठांय हाडून मोरोक्को ताब्यांत घेतलें. उपरांत ॲल्महॅडझ वंशांतल्या इब्न - तूमर्त हाणें १२१० वर्सा ॲटलास दोंगरा वळींतल्या जमातींक एकठांय हाडून ॲल्मॉरिव्हिडझ सत्तेचेर जैत मेळयलें. पूण उपरांत मेरेनीड वंशामुखार तांची सत्ता तिगलिना, ते अरबांभितर भरसून गेले. पूण बर्बरांतल्या कांय जाणांनी आउरेस कबिलया, रिफ ॲटलास ह्या दोंगरावळींचो आलाशिरो घेवन आपलें झुजारीपण आनी परंपरेन चलत आयिल्ली संस्कृती तिगोवन दवरली.

बर्बरांच्या कांय पोटजातींमदीं जडप्राणवाद आनी पिशाच्च पुजेचीय चाल आसा. मोरोक्कोंतले कांय बर्बर ज्यू धर्माचे आसात.

चडशे बर्बर लोक शेतकाम करून जनावरां पोसतात. तांचीं मुखेल पिकां बार्ली आनी गंव आसून दोंगराचे देंवतेचर ते सोपान पद्दतीची शेती करतात. तशेंच कांय बर्बर लोक खणींचेर काम करतात. कांय बर्बर लोक थळावे उद्देग करूंक लागल्यात.

हेडग्या बर्बरांभितर तंबूभाशेन घरां आसतात. पूण स्थायीक जमातींत चिऱ्यांचीं वा विटांचीं घरां बांदतात. तांचीं लांकडी घरांय दिसतात.

पुर्विल्ल्या काळांत बर्बर लोकांमदीं मातृसत्ताक कुटुंबपद्दत चलणुकेंत आसुये अशें ग्वांचे जमातींतल्या कांय चालीरितींवयल्यान दिसता. पूण उपरांत पितृसत्ताक कुटूंबपद्दत रूढ जाली. वारसाहक्कान पुताकडेन संपत्त येता.

चले-चलयो पिरायेंत येतकच तांचीं लग्नां जातात. जनावरां वा रोख रकमेच्या स्वरुपांत वधूमूल्य दिवपाची तांचेमदीं चाल आसा. आते-मामे भावंडांमदल्या लग्नाक चड प्राधान्य आसून कांय पोटजातींनी बापोल भयणीकडेन लग्नां जातात. राजघराण्यांतल्या कुटुंबांनी खाशश्या भयण-भावांमदीं लग्नां जातात. चडशे बर्बर लोक इस्लाम धर्मीय आसुनूय तांचेमदीं लग्नाची एकूच पद्दत आसा. कांय सधन कुटुंबांनी आनी पोटजातींनी मात एकापरस चड बायलो करपाची चाल आसा. चडशा बर्बरांभितर एकठांय कुटूंबपद्दत आसा. कसलेंय निमित्त करून दादल्याक घटस्फोट घेवंक मेळटा. वांझ बायलेक सोडपाचीय चाल तांचेभितर आसा.

बर्बरांचें दरेक खेडें हो एक स्वतंत्र घटक. तांचेभितर जेम्मा नांवाचें, जाणट्या लोकांचें एक मंडळ आसता. त्या मंडळाच्या अध्यक्षाक मुकद्दम म्हण्टात. झुजाकाळांत अमधर नांवाचो एक स्वतंत्र अधिकारी नेमतात. शरीयतप्रमाण कारभार चलता. दोन वा चड गांवांचे संघ जातात. हे संघ एकठांय येतकच ताका थकेलबिट म्हण्टात.

कलाकुसर केल्ले बुरनूस आनी गादयो, रुप्याचे आनी कोरलाचे अलंकार, सोबीत मातयेचीं आयदनां, तशेंच हेर कपडे विणप, भरतकाम ह्यो परंपरेन चलत आयिल्ल्यो तांच्यो हातकला आजुनूय तांचेमदीं तिगून आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## बर्म्युडा

**बर्म्युडा** : वायव्य ॲटलांटिक म्हासागरांतलो जुंव्यांचो चोमो. त्या चोम्यांत ल्हान-व्हड मेळून सुमार ३०० जुंव्यांचो आस्पाव जाता. पूण तातूंतल्या फकत २० जुंव्यांचेर लोकवस्ती आसा. क्षेत्रफळ ५३.३ चौ. किमी. विस्तार ३२°१८' उत्तर अक्षांश आनी ६४° ४६' अस्तंत रेखांश. लोकसंख्या ७२,०००. बर्म्युडा, बोॲझ, आयर्लंड, सेंट डेविड्स, सेंट जॉर्जेस, सोमरसॅट आनी वॅटफर्ड हे चोम्यांतले मुखेल जुंवे. ते एकामेकांक खूब लागीं आशिल्ल्यान ते पुलांनी जोडल्यात. बर्म्युडा जुंव्याचेर आशिल्लें हॅमिल्टन शार द्वीपसमुहाचें राजपाटण.

**भूयंवर्णन आनी हवामान** : द्विपसमुहांतले जुंवे मुखेलपणान चुनखडीचो घट्ट गाळ सांचून तयार जाल्ले आसात. जुंव्यांचेर ज्वालामुखींसावन तयार जाल्ले ऊंच कटे दिश्टी पडटात. तांची उंचाय ४,२७० मी. परस चड आसा. तेचपरी जुंव्यांचेर साबार दोंगुल्ल्यो आसून दर्यातळासावन तांची उंचाय सुमार ७६मी. आसा. हांगाची जमीन चूनखडीयुक्त घट्ट आशिल्ल्यान हांगा न्हंयो वा तळयो नात.

जुंव्यांवयलें हवामान शितळ, दमट आनी सौम्य आसता. ऑगस्ट म्हयन्यांत चड उश्णताय जाणवता जाल्यार फेब्रुवारी म्हयन्यांत कडक थंडी पडटा. प्रदेशाचें वर्सुकी सरासरी तापमान २१°सें. आसता. गिमांत तें चडांत चड ३१° से. मेरेन वाडटा जाल्यार शिंयाळयांत तें ८° से. मेरेन देंवता. पावसाचें वर्सुकी प्रमाण सुमार ४५० सेंमी. इतलें आसून आतऱ्यापयऱ्यान असो वर्सूयभर पावस पडत आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात** : बर्म्युडा जुंवो तरेकवार फूलझाडांखातीर प्रसिद्द असा. हांगा विंगड विंगड अशा सुमार एक हजार जातींच्या फूलझाडांची लागवड केल्ली आसा. आदल्या तेंपार हांगा थळाव्या बर्म्युडा सिडाराचीं दाट रानां आशिल्लीं. पूण तांकां कीड लागिल्ल्यान चडशी रुखावळ काबार जाल्ली आसा. कांय प्रदेशांनी थळाव्या बर्म्युडा तणाचीं मळां आसात.

बर्म्युडांत थळावी अशी सस्तनी मोनजात ना. सरकटत वचपी थळावे मोनजातींमदीं फकत शेड्ड्याचो आस्पाव जाता. जुंव्यावयलें हवामान शितळ आशिल्ल्यान स्थलांतरीत सुकण्यांचीं खूब भिरीं हांगा येतात. स्थलांतरीत सुकण्या खेरीज हांगा सात प्रकाराचीं थळावीं सुकणींय आसात.

**इतिहास :** स्पेनाचो सैमविज्ञानीक गोंजालो फेर्नांडीस द ऑविदो हाणें बर्म्युडा जुंव्यांक १५१५ त भेट दिल्ली. पूण त्या जुंव्यांक स्पेनाचो इतिहासतज्ञ आनी दर्यावर्दी जुआँ बर्म्युडाझ हाणें १५०३ त भेट दिल्ली हें फ्रेंच मानचित्रकारान सतराव्या शेंकड्यांत सिध्द केलें. ताच्याच नांवावयल्यान ह्या जुंव्यांक बर्म्युडा हें नांव पडलें. स्पेनीश खलाशी त्या जुंव्यांचेर पाविल्ले तेन्ना थंय मनशाचो राबितो नाशिल्लो. १६०९ त ब्रिटीश वसणूकवाद्याचें 'सी वेंचर' नांवाचें तारूं त्या जुंव्यांलागसार वादळांत नश्ट जालें. हाका लागून त्या तारवाचो कॅप्टन ॲडमिरल सर जॉर्ज समर्स आनी ताच्या कांय वांगड्यांनी ह्या जुंव्याचेर आलाशिरो घेतिल्लो. ॲडमिरल जॉर्ज समर्स हाका दुसऱ्याच वर्सा मरण आयलें ताच्या सांगात्यांक बर्म्युडा विशीं म्हायती नाशिल्ली. तांणी त्या जुंव्यांक ॲडमिलराच्या उगडासाखातीर म्हणून समर्स नांव दिलें. १६१० त इंग्लंडाचो पयलो जेम्स हाणें व्हर्जिनिया कंपनीक ते जुंवे भेट दिल्ले. उपरांत १६१२ त व्हर्जिनिया कंपनीन कांय ब्रिटीश वेपाऱ्यांक त्या जुंव्यांचे हक्क दिल्ले. ते वेपारी बहामासाच्या रॅड इंडियन आनी खाप्री लोकांक गुलाम म्हणून वापरूंक लागले. १६८४ त बर्म्युडा जुंवे ब्रिटीश कॉलनी म्हणून जाहीर केलें. अमेरिकेच्या यादवी झुजा वेळार नाकेबंदीक लागून चडशे वेपारी संबंद बर्म्युडाकडेन जावपाक लागले. तशेंच अमेरिकेच्या नशाबंदी वेळार बर्म्युडांत साऱ्याचें व्हडा प्रमाणांत स्मग्लींग जावपाक लागलें. ह्या दोनूय कारणांक लागून अठराव्या शेंकड्यांत बर्म्युडाची भरभराट जाली.

पयल्या म्हाझुजा वेळार अमेरिकेन त्या जुंव्यांचेर नाविक तळ उबारिल्लो. १९४१ व्या वर्सा अमेरिकेक हांगा ९९ वर्सांखातीर नाविक आनी हवाई तळ उबारपाक परवानगी मेळ्ळी. १९६३त 'प्रोग्रेसीव लेबर पार्टी' हो बर्म्युडांतलो पयलो पक्ष अस्तित्वांत आयलो. त्या पक्षाचे णव निग्रो आनी एक गोरो मेळून धा वांगडी आशिल्ले. ह्या पक्षान ब्रिटिशांचे बर्म्युडा जुंव्यांवयले हक्क न्हयकारून पुराय स्वातंत्र्य जाहीर केलें. १९६४ त विधिमंडळाच्या कांय स्वतंत्र वांगड्यांनी एकठांय येवन युनायटेड बर्म्युडा पक्ष तयार केलो. तातूंत गोऱ्या लोकांचो चड शेक चलतालो. ह्या दोनूय पक्षांक लागून १९६०-७० ह्या दसकांत बर्म्युडांतले वर्णविरोधी चळवळीक ओतो आयलो. उपरांत ह्या वर्णीय दंग्याक आळो घालपा खातीर बर्म्युडाच्या गव्हर्नरान ब्रिटीश सैन्याचो आदार घेतिल्लो. ब्रिटीश राजवटीची ४०० वर्सां पुराय जातकूच बर्म्युडाक स्वातंत्र्य मेळटलें असो समज आशिल्लो. पूण ऑगस्ट १९९५ त घेतिल्ल्या लोकमताप्रमाण बर्म्युडान ब्रिटीश असोसिएट स्टेट म्हणुनूच रावपाचें थरयलां.

बर्म्युडा जुंव्यांचेर प्रातिनिधिक सरकार आसून १९६८ त ताका ब्रिटीश असोसिएट स्टेट म्हूण जाहिर करून अंतर्गत स्वायत्तताय दिल्या. १९६८ चे राज्य घटनेप्रमाण राज्यपालाची निवड पांच.वर्सांखातीर ग्रेट ब्रिटन सरकार करता. परराश्ट्र धोरण, संरक्षण, जुंव्याभितल्ली सुरक्षितताय आनी पुलीस खातें सोडून हेर बाबतींनी राज्यपालाक मंत्रीमंडळाचो सल्लो मानून घेवंचो पडटा. मंत्रीमंडळांतल्या वांगड्यांची नियुक्ती दोनसदनी सभाघरांतल्या प्रतिनिधींतल्यान मुखेलमंत्र्याचे मान्यतायेन करप जाता. विधिमंडळ हें विधानपरिशदेचे ११ वांगडी आनी विधानसभेचे ४० वांगडी मेळून तयार जाता. ह्या सभाघराचे वांगडी प्रौढ मतदान पद्दतीन पांच वर्सां खातीर वेंचून काडटात. मुखेलमंत्री तशेंच हेर मंत्र्यांचीय नेमणूक राज्यपाल करता. युनायटेड बर्म्युडा पार्टी आनी प्रोग्रेसीव लेबर पार्टी हे बर्म्युडांतले दोन मुखेल राजकीय पक्ष.

**अर्थीक स्थिती :** अमेरिकेन उबारिल्ल्या विमानतळ आनी नाविक तळ हांचे पसून मेळपी येणावळ पर्यटन वेवसाय आनी तारवांची दुरुस्ती हीं बर्म्युडांतल्या उत्पन्नाचीं मुखेल साधनां. जुंव्यांवयल्या सूखदिण्या हवामानाक आनी सैमीक सोबीतकायेक लागून दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत हांगा पर्यटकांचो आंकडो वाडत रावलो. हाका लागून चड पर्यटकांक आकर्शीत करपाखातीर तशेंच तांकां बऱ्यो सुविधा मेळच्यो म्हणून बर्म्युडा सरकारान कांय खास येवजणो आंखल्यात. सद्या वट्ट राश्ट्रीय उत्पन्नांत पर्यटन वेवसायासावन मेळपी येणावळीचो वाटो चड आसा. राश्ट्रीय उत्पादनांत खूब वाड जाल्ल्यान सराकाराक हेर देशांकडच्यान आदार घेवंचो पडना.

ज्युंव्यांवयली चडशी भूंय चूनखडीयुक्त आशिल्ल्यान शेतवडीक फावो सारकी जमीन साप्प उणी आसा. वट्ट लोकसंख्येंतले फकत २% लोक शेतवडींत वावुरतात. पिकां काडपाची पद्दत आजुनूय फाटसारिल्लीच आसा. केळीं, लिंबू आनी लिंबा जातीचीं हेर फळां, बटाट, लिलीचीं फुलां आनी फळफळावळ ही हांगाची मुखेल पिकावळ. नुस्तेमारीचो वेवसायूय बरो चलता. दुग्दवेवसाय आनी कुकडां पोसपाच्या वेवसायांक हालींच्या तेंपार म्हत्व प्राप्त जालां. बर्म्युडाचो चडसो वेपार कॅनडा, अमेरिका आनी ब्रिटन देशांकडेन चलता. बर्म्युडा डॉलर हें जुंव्यांवयलें अधिकृत चलन.

१९४८ त रेल्वे सेवा बंद करून बस सेवेक म्हत्व दिलां. पर्यटकांक आकर्शीत करचेखातीर रस्ते खूब रूंद केल्यात. अमेरिकन ॲरलायन्स पान अमेरिकन, डॅल्टा ॲरलायन्स आनी ईस्टर्न ॲरलायन्स हांचेवरवीं अमेरिकेकडेन नेमान हवाई येरादारी चलता. ब्रिटीश ॲरवेस आनी ॲर कॅनडा हांचेवरवीं ब्रिटनाकडेन आनी कॅनडाकडेन हवाई येरादारी चलता. उदकांतली येरादारीय नेटान चलता. एका जुंव्यावयल्यान दुसऱ्या जुंव्याचेर वचपाक फेरीबोट वेवस्था आसा. १९८७ व जुंव्याचेर १५ डाकघरां आशिल्लीं. दूरध्वनीयंत्रणा खाजगी मालकेची आसा. रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी सेवा वेपारी तत्त्वांचेर चलतात.

**लोक आनी समाजजीणः** स्पेनीश भोंवडेकारांनी जुंव्यांचो सोद लावचेआदीं ह्या जुंव्यांचेर लोकवस्ती नाशिल्ली. ब्रिटीश वसणुकेच्या तेंपार रॅड इंडियन आनी मुखेलपणान खापऱ्यांचो खाप्री लोकांक गुलाम म्हणून हांगा हाडिल्ले. हाका लागून आंकडो वाडत गेलो. १८३४ त ब्रिटनांत गुलामांचेर बंदी हाडिल्ली. तेन्नासावन बर्म्युडा जुंव्यांवयलेय गुलाम मुक्त जाले. वसणुकेच्या तेंपार पुर्तुगेज कामगारूय हांगा आयिल्ले. सद्या वट्ट लोकसंख्येंतले सुमार ६०% लोक निखाप्री आसात. उरिल्ल्या लोकांमदीं पुर्तुगेज आनी ब्रिटीश लोकांचो आस्पाव जाता. बर्म्युडाची लोकसंख्या ६०,००० आसून, क्रिस्तांव हो हांगाचो अधिकृत धर्म. पूण चडशे लोक इंग्लंडाचे इगर्जेचे अनुयायी. रोमन कॅथलीक लोक साप्प उण्या प्रमाणांत सांपडटात. चडशी लोकवस्ती ग्रेट बर्म्युडा जुंव्याचेरूच आसा. जुंव्याच्या आवाठाप्रमाण लोकसंख्येची दाटाय चड आसा. मुळावें शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसून साक्षरतायेप्रमाण ९८% आसा. उत्पादनांतलो सुमार १/५ वांटो शिक्षणाचेर खर्च जाता. बर्म्युडा कॉलेजीची १९७९ त स्थापणूक जाली. वेवसायीक शिक्षणाची वेवस्थाय आसा. ग्रेट बर्म्युडा जुंव्यांवयलें हॅमिल्टन शार, तशेंच सेंट जॉर्ज, टकर्स टाऊन, फ्लॅटस व्हिलेज आनी समसेट हीं शारां म्हत्वाचीं.

- कों. वि. सं. मं.

**बर्लिन प्रस्न** : दुसऱ्या महझुजाउपरांत रोखडोच संवसारीक राजकारणांत निर्माण जाल्लो एक म्हत्वाचो पेंचप्रसंग. बर्लिन शाराची रशियन आनी यूरोपीय - अमेरिकन नियंत्रणाखाल वाटंणी केल्ली. बर्लिन शार उदेंत जर्मनींत म्हळयार रशियेच्या शेकातळा आशिल्लें. पूण ताचो अस्तंत भाग रशियेच्या प्रभावाखाला आशिल्ल्या प्रदेशान रेवडायल्लो. ह्या अस्तंत बर्लिनचे युरोपीय राश्ट्रांकडेन आशिल्लें दळणवळण तोडून उडोवपाची, ताची नाकेबंदी करपाचो स्टालिनान यत्न केलो. तातूंतल्यानूच राजकाराणांत कोंडी निर्माण जाली. परत झूज पेट्टा काय किदें अशी परिस्थिती निर्माण जावपाक लागली. त्या इकरा म्हयन्यांच्या दीर्घ काळांत अमेरिका प्रेरीत युरोपी फुडाऱ्यांनी हवाई येरादारी सुरू केली आनी ती यशस्वी केली. तशेंच तांणी संयम दाखयलो. ताका लागून निमाणे नाकेबंदीचा प्रस्न सुटलो.

दुसऱ्या म्हाझुजामेरेन बर्लिन शार हें जर्मनीचें राजपाटण म्हणून प्रसिद्द आशिल्लें. जर्मनीच्या एकीकरणापसून (इ. स. १८७१) दुसऱ्या म्हाझुजा मेरेनच्या (१९३९-४५) कितल्याशाच म्हत्वाच्या घडणुकांचीं सुत्रां ह्या शारांतल्यान हालतालीं. झूज सोंपलें तेन्ना उदेंतेकडल्यान रशिया आनी अस्तंतें कडल्यान अमेरिका, इंग्लंड आनी फ्रान्स हांचीं सैन्यां जर्मनींत घुशिल्लीं. दुसरें म्हाझूज जर्मनीक लागून जालें, हाचेविशीं सगळ्या राश्ट्रांचें एकमत आशिल्लें आनी झूज सोंपतकच ह्या इश्ट राश्ट्रांनी जर्मनीची आनी बर्लिनाची आपले मदीं वांटणी केली. बर्लिन उदेंत जर्मनींत आशिल्ल्यान ते रशियन प्रभावाखालच्या प्रदेशांत रेवडायल्लें. ५ जून १९४५ दिसा जर्मनींतल्या चार जैतीवंत राश्ट्रांच्या सरसेनापतींची जोड कचेरी बर्लिनांत स्थापन केली. पूण रशिया आनी अस्तंत राश्ट्रांमदीं जर्मनीच्या फुडारांवयल्यान कितलेशेच प्रस्न निर्माण जाले. जर्मनीचें एकीकरण जावचें, थंय वेंचणुको घेवन प्रस्थापीत जावपी सरकारावांगडा जैतीवंत राश्ट्रांनी शांतताय कबलात करची अशी अस्तंत राश्ट्रांची भुमिका आशिल्ली. पूण ही कल्पना रशियेक मान्य नाशिल्ली. उदेंत जर्मनींत बर्लिन येता आशिल्ल्यान थंयसावन अस्तंतेकडल्या राश्ट्रांनी वचचें अशी रशियेची मागणी आशिल्ली.

मार्च १९४८ त इंग्लंड, फ्रांस आनी अमेरिका हांणी आपापल्या ताब्यांतल्या बर्लिन शाराचें एकत्रीकरण करचें अशें थारायलें. जून १९४८त ह्या भागांत डॉयश मार्क हें नवें नाणें सुरू केलें. ताच्या निशेधाखातीर रशिया एकवटीत नियंत्रण वेवस्थेंतल्यान भायर पडलो. अस्तंत बर्लिनांतल्यान यूरोपीय राश्ट्रांक भायर काडपाखातीर रशियेन बर्लिनाची कोंडी करपाचो यत्न केलो. उदकामार्ग, रस्ते, रेल्वेमार्ग हांची नाकेबंदी केली. अस्तंत बर्लिनांतल्या लोकांक गरजेच्या वस्तूंची पुरवण करपाचे सगळे मार्ग थांबयल्ले. १ जुलय १९४८ दिसा रशियेन जाहीर केलें, बर्लिनाची एकवटीत वेवस्था सोंपिल्ल्यान अस्तंतेकडल्या राश्ट्रांक थंय रावपाचो हक्क ना. २६ जुलय १९४८ दिसा इंग्लंड आनी अमेरिकेन अस्तंत बर्लिनाक गरजेच्या वस्तूंची पुरवण विमानान करपाचें थरयल्लें. अस्तंत बर्लिनांतल्यान निर्यात जावपी म्हालूय भायर व्हरपाक लागले. हवाई येरादारी करपी विमानांचे हे भोंवाडे सुमार इकरा म्हयने चालू आशिल्ले. अशे तरेन जून १९४८ ते मे १९४९ ह्या काळांत ब्रिटीश आनी अमेरिकी विमानांनी दोन लाख ७७ हजार उड्डाणां करून दळणवळण चालू दवरलें.

१ एप्रिल १९४८ सावन स्टालिनान बर्लिनाची कोंडी करपाक सुरवात केली. ताणें अस्तंत जर्मनींतल्यान येवपी लोकांचेर आनी म्हालाचेर बंधनां घालपाक सुरवात केली. अस्तंत बर्लिनाचे सगळे तरेचे मार्ग बंद करून अस्तंत जर्मनीक आनी उदेंत बर्लिनाक जोडपी रस्ते थांबयले. अस्तंत जर्मनीची ही कोंडी फोडपाखातीर आपापले वाठार सोडून फाटीं सरचें काय झुजाचोच धोको पत्करून चालू आशिल्लें धोरण कायम दवरचें असो पेंच अस्तंतेकडल्या राश्ट्रांमुखार आशिल्लो. ताचेर अमेरिकेचो अध्यक्ष ट्रुमन हाणें निमाणो एक अनपेक्षित असो मार्ग सोदून काडलो. हवाई येरादारीचो मार्ग आपणावपाचें थरयलें. विमानांचेर हल्लो जालो जाल्यार प्रतिकाराची तयारीय दवरली. निमाणें एकवटीत राश्ट्रसंघांतले अमेरिकेचो प्रतिनिधी फिलिप जेसपन आनी रशियेचो प्रतिनिधी यकोव मलीक हांचेमदीं वाटाघाटी जावन मार्च १९४९ त ही कोंडी फुटली. १२ मे १९४९ सावन अस्तंत बर्लिन आनी अस्तंत जर्मनी हांचेमदलें दवळवळण जमनीवयल्यान सुरू करपाक रशियेन संमती दिली. रशियेचे हे डावपेंच आनी आक्रमक धोरण मतींत घेवन अमेरिकेन यूरोपाचे सुरक्षिततायेखातीर एप्रिल १९४९त उत्तर

ॲटलाँटिक कबलात संघटनेची (NATO) स्थापणूक केली. ताका लागून शीत झुजाक सुरवात जाली. ह्या राजकारणाक साम्यवादी राश्ट्रां आनी लोकशायवादी राश्ट्रां अशें स्वरूप मेळ्ळें.

हे फाटभुंयेचेर बर्लिन शाराविशीं आनीक एक म्हत्वाची घडणूक ऑगस्ट १९६१ त घडली. जर्मनीच्या आनी बर्लिनाच्या एकीकरणाक रशियेचो सदांच विरोध आसतालो. उदेंत बर्लिनाविशीं रशियन फुडारी एकदम सावध आसताले. क्रुश्चेवाचे कारकिर्दींत ऑगस्ट १९६१ त रशियेन उदेंत बर्लिन आनी अस्तंत बर्लिन अशें शाराचें विभाजन करपी व्हडली वणत बांदली. थंय लश्करी पारे बसयले. सरयेची वंय घाली. (बर्लिन वण्टीची लांबाय ४५ किमी. आशिल्ली.) ही वणत बांदतकच उदेंत जर्मनींतल्यान अस्तंत बर्लिनांत येवपी- वचप्यांचेर कडक निर्बंध घाले.

१९६२ उपरांत हे निर्बंद उणे केले. उदेंत बर्लिनांत आशिल्ल्या अस्तंत बर्लिनाच्या नागरिकांक परवाने दिवपाक लागले. १९७२ त अमेरिका, ब्रिटन, फ्रांस आनी रशिया तशेंच उदेंत आनी अस्तंत जर्मनी हांचेमदीं कबलात जावन वण्टीवयल्यान नागरिकांच्यो गांठीभेठी तशेंच अस्तंत जर्मनींतल्यान बर्लिनाक वचपी मार्ग हांचेविशीं कबलात जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**बलराम :** श्रीकृष्णाचो व्हडलो सवती भाव. वसुदेव आनी रोहिणी हांचो पूत.हाका शेषनागाचो अवतार अशें समजतात. हाची बलदेव, बलभद्र, हलायुध, संकर्षण हीं हेर नांवां आसात. वेगवेगळया पुराणांतल्यान हाच्या जिविताविशीं म्हायती मेळटा ती अशी-

कंसान देवकीचे स पूत मारतकच सातवे खेपे तिचो गर्भपात जावंचो न्हय, म्हणून देवान योगमायेक तो गर्भ देवकीच्या गर्भांतल्यान काडून रोहिणीच्या गर्भांत दवरपाक सांगलें. योगमायेन तशें केल्ल्यान तो रोहिणीच्या पोटांत जल्मलो. ताका लागून कंसापासून तो सुरक्षित उरलो. सुभद्रा ही बलरामाची खाश्श्या भयण.

बलरामाचो जल्म गोकुळांत जालो. कृष्ण जल्माउपरांत गोकुळांत आयिल्ल्यान हे दोगूय भाव थंय एकठांय खेळ्ळे आनी वाडले. कंसान कृष्णाक मारपाक जे असूर धाडिल्ले तातूंतल्या धेनु आनी प्रलंब ह्या असुरांक बलरामान मारले. शंखचूडाच्या वधा वेळार ताणें कृष्णाक पालव दिलो आनी गोपींची राखण केली. नांगर आनी मुसळ हीं ताणें आपलीं दोन आयुधां केल्लीं. बलराम-कृष्णाक मारपाखातीर कंसान अक्रूराक गोकुळांत धाडून त्या दोगांकूय मथुरेक व्हेले. थंय बलरामान मुष्टिक ह्या कंसाच्या मल्लाक मल्लझुजांत जितो मारलो. फुडें बलराम आनी कृष्ण हांची मूज जातकच विद्याभ्यासाखातीर ते दोगूय सांदीपनीच्या आश्रमांत गेले.

आनर्त देशाचो राजा रैवत ककुद्मी हाणें आपली धूव रेवती ही बलरामाक दिल्ली. तिचेपसून ताका निशित आनी उल्मुक हे दोन पूत जाले. कृष्णान जरासंधाक सतरा खेपे हारयलो, तेन्ना तातूंत ताका बलरामाचो खूब पालव मेळ्ळो.

बलराम गदा झुजांत खूब फिशाल आशिल्लो. दुर्योधन आनी भीम ताचेकडल्यानूच गदाविद्या शिकले. कृष्णाचो पूत सांब हाणें दुर्योधनाची धूव लक्ष्मणा हिचें हरण केलें तेन्ना कौरवसेनेन ताका घेरून बंदिस्त केलो. त्या वेळार बलरामान सांबाक मुक्त केलो.

बलरामाक सोरो पियेवपाचें वेसन आशिल्लें. एकदां तो रैवतक दोंगराचेर कांय सुंदर बायलांसयेत मद्यपान करता आसतना भौमासुराचो इश्ट द्विविद थंय आयलो. ताणें ताचे खोशयेंत आडखळ हाडली. देखून तिडकीन ताणें द्विविदाचो वध केलो. रुक्मी आनी बलराम हांचेमदीं एकदां द्यूत जाल्लें. बलराम एक डाव जिखला, हें रुक्मी मान्य करिना जालो. तेन्ना तिडकीन बलरामान गदेच्या एका धपक्यान रुक्मीक मारलो.

कौरव-पांडव झुजा वेळार खंयच्याय पक्षाक मदत करची न्हय, अशें थरोवन बलराम तीर्थयात्रेक गेलो. हे यात्रेंत ताणें प्रभास, पृथूदक, बिंदुसर, ब्रह्मतीर्थ, चक्रतीर्थ ह्या थळांक भेट दिवन तो नैमिषारण्यांत गेलो. थंय सोऱ्याचे नशेंत आसतना ताणें, रोमहर्षण ऋषीन आपलो अपमान केलो ह्या आरोपाखाला ह्या ऋषीक मारलो. फुडें हे गजालीची ताका खूब खंतूय जाली.

प्रभास क्षेत्रांत यादवांनी एकामेकांचो संहार करतकच बलराम दर्यादिगेर चित्त एकाग्र करून बसलो आनी योगबळान ताणें आपलो देह दवरलो.

बलरामाच्यो शुंग काळांतल्यो कांय पुर्विल्ल्यो मुर्ती मथुरा आनी ग्वाल्हेर ह्या वाठारांनी सांपडल्यात. ताच्यो गुप्त काळांतल्यो आनी कुषाण काळांतल्योय मुर्ती सांपडल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बलातिबला :** एके तरेची विद्या. बला आनी अतिबला ह्या दोन विद्यांचो उल्लेख वाल्मिकी रामायणांत आयला (वाल-२२). मंत्रशास्त्रांत ह्या दोन विद्यांविशीं सांगलां तें अशें- उत्साह आनी बल हांची वृध्दी, दुस्मानाचो आघात सहन करपाची तांक, भूक-तान हांची बादा जावप ना ह्या गुणांक लागून ते विद्येक बला म्हळ्या. दुस्मानाची नदर, मन, कूड आनी कर्म गळीत जावप आनी आपले शस्त्राचे उपाय व्हड थरप हीं कामां जे विद्येक लागून जातात तिका अतिबला म्हण्टात.

विष्णुन ह्यो दोनूय विद्या तयार करून मधु-कैटभांक मारले आनी विश्वामित्रान ह्यो दोनूय विद्या रामाक दिवन राकेसांकडेन झूज दिवपाक ताका शक्त दिली अशी कथा आासा.

विश्वामित्राक ह्यो विद्या ब्रह्मदेव आनी सूर्य हांचेकडल्या मेळिल्ल्याचो उल्लेख ऋग्वेदांत आसा.

बला आनी अतिबला ह्यो विद्या अनुक्रमान भौतिक आनी अध्यात्मिक शक्ती दिवपी आसून तो विशिश्ट वैदिक मंत्रांचो चोमो आसुंये. बला विद्येंत जादूचो संबंद आशिल्लो आनी अतिबला विद्येंत दार्शनीक गिन्यान, बुद्दिची तीखसाण, भासाभाशेंत फिशालकाय हांचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**बलिप्रतिपदा :** कार्तिक शुध्द प्रतिपदेक हें नांव आसा. विक्रम संवताचो हो पयलो दीस. साडेतीन म्हुर्तांतलो हो अर्दो म्हूर्त. धर्मशास्त्रांत ह्या दिसाचीं कृत्यां सांगल्यांत तीं अशीं - सकाळीं न्हावन-धुवन नवे कपडे घालचे. गोरवांची पुजा करून, तांकां सजोवन तांची मिरवणूक काडची. त्या दिसा गायचें दूद काडिनासतना तें पाडकाकूच दिवचें. गोवर्धनाची पुजा करची. रस्तो बांदप, न्हंयेचेर घाट बांदप, तळी बांदप असलीं कामां करचीं. रस्सीखेंच हो खेळ खेळचो. सवायशिणीन आपल्या घोवाक ओंवाळचो. रातची बळीची पुजा करून दीपदान करचें. जुगार खेळचो. सामान्य लोकांनी गादयेर तांदळांनी बळीची आकृती काडून तिची पुजा करची. राजालोकांनी पंचरंगी मंडलाचेर बळीचें पंचरंगी चित्र काडून ताची पुजा करची. नाच-पदांच्यो कार्यावळी करच्यो. ह्या दिसा रथयात्रा नांवाचें एक व्रत सांगलां तें अशें -

उमाशेक उपास करून प्रतिपदेच्या दिसा अग्नी आनी ब्रह्मा ह्या देवांक रथांत बसोवन तो रथ विद्वान ब्राह्मणांकडल्यान नगरा भोंवतणीं भोंवडावंचो. मदीं मदीं थांबोवन ताका आरत दाखोवंची. हो रथ जे ओडटात, जे ताका आरत दाखोवन भक्तिभावान ताचें दर्शन घेतात तांकां पुण्यप्राप्ती जाता अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**बली :** एक दैत्य. बली हो प्रल्हादाचो नातू आनी विरोचनाचो पूत. हो एक बळिश्ट राजा जावन गेलो. ताका विंध्यावली आनी अशना ह्यो दोन बायलो आशिल्ल्यो. अशनेपसून ताका बाणप्रभृती शंबर पूत जाले.

खर तपश्चर्या करून बलीन सामर्थ्य मेळयलें आनी सर्ग जिखलो. तेन्ना सगळे देव भिंयेले आनी आपापलीं रुपां-भेस बदलून पसार जाले. उपरांत बलीन प्रल्हादाक सर्गांत आपोवन घेतलो आनी ताका सर्गाचें राज्य आपणावपाक सांगलें. पूण प्रल्हादान स्वता राज्य घेना आसतना बलीचोच राज्याभिशेक करून, ताका धर्मान राज्य चलोवपाक सांगलें.

बलीन इंद्राची संपत लुटली. ती दैत्य लोकांत व्हरतना दर्यांत बुडली. ती भायर काडपाखातीर देवांनी समुद्रमंथनाचो उपक्रम केलो. पूण विष्णुन देवांक सांगलें, बलीच्या आदाराबगर तुमच्या हातांतल्यान समुद्रमंथन जावंचेंना आनी तुमचेभितर तितली ताकद ना. तेन्ना देव बलीसरेन गेले आनी ताचो आदार मागलो. बलीन तें मान्य केलें. उपरांत देव-दैत्य ह्या दोगांयनी मेळून समुद्रमंथन केलें. तातूंतल्यान जें अमृत आयलें, तें दैत्यांक दिना आसतना देवांनीच घेतलें. दैत्यांक राग आयलो. तांणी देवांवांगडा झूज केलें. ह्या झुजांत बलीन इंद्रावांगडा झूज केलें. ह्या झुजांत इंद्रान, बलीचेर वज्र मोखून मारून बलीक जिवो मारलो. उपरांत उरिल्ल्या दैत्यांनी मेल्ल्या बलीक अस्ताचलाचेर व्हेलो. थंय शुक्राचार्यन संजीवनी मंत्रान बलीक परतून जिवो केलो आनी ताचेकडल्यान 'विश्वजित' नांवाचो यज्ञ करून घेतलो. त्या यज्ञनारायणान प्रसन्न जावन बलीक दिव्य रथ, भांगराचें धोणू, दोन अक्षय्य भाते आनी दिव्य शंख दिलो. प्रल्हादान ताका सुकना तसली माळ आनी शुक्रान दिव्य शंख दिलो. उपरांत बलीन परतून सर्गाचेर आक्रमण करून सर्ग जिखलो. त्या वेळार सद्याचो काळ आमकां बरो ना अशें समजून देव सर्गांतल्यान भायर सरले.

नर्मदेचे देगेर भृगुकच्छ (भरुच) ह्या क्षेत्रांत बलीन अखेरचो अश्वमेध केलो. ह्या यज्ञांत बलीन भरपूर दान दिलें. तेन्ना इंद्र विष्णुकडेन गेलो आनी ताणें कसोय तरी बलीक काबार करपाक विनयलें. तेखातीर विष्णुन अदितीच्या पोटांत बटू वामनाच्या रुपांत जल्म घेतलो. उपरांत तो बलीच्या यज्ञाच्या माटवांत आयलो. ताणें बलीच्या कर्तृत्वाची आनी दानाची खूब तोखणाय केली. बलीन ताका आसनाचेर बसोवन ताची पुजा केली आनी ताका किदें जाय तें मागपाक सांगलें. तेन्ना बटून ताचेकडेन तीन पावलां जमीन मागली. शुक्राचार्याक हे मागणेंत कितेंय तरी कपट आसतलें अशें दिसलें. देखून ताणें बलीक आगरो करून सांगलें, 'तूं हाका तीन पावलां जमीन दिवं नाका. हो तुचो दुस्मान, विष्णु, बटूचें रूप घेवन तुजो नाश करपाक आयला.' तेन्ना बलीन सांगलें, 'विष्णु जर म्हज्या दाराचो याचक जालो, जाल्यार ताका हांव कसलेंय दान दितलो.' बली आपलें आयकना अशें दिसतकच शुक्राचार्यान रागान बलीक शाप दिलो, 'तूं स्वताक शाणो समजून म्हजी आज्ञा आयकना तेखातीर तूं राज्यभ्रश्ट जातलो.' तरीय बलीन वामनाच्या हातार तीन पावलां जमनीचें उदक सोडलें. उदक सोडिनाफुडें वामन एकदम व्हड जालो. ताणें दोनूच पावलांनी सगळें त्रिभूवन घेतलें. आतां तिसरें पावल खंय दवरूं अशें विचारतकच बलीन आपली तकली ताचेमुखार बागयली. वामनान तिसरें पावल ताच्या माथ्यार दवरलें. रोकडेच गरुडान बलीक गरुडपाश घाले. बलीची ती दशा पळोवन ताचो आजो प्रल्हाद हाणें बलीखातीर विष्णुक आळयलो. उपरांत वामनान गरुडाक सांगून बलीचे पाश सोडयले आनी ताका सात पाताळांतल्या सुतलांत वचून रावपाक सांगलें. तशेंच विष्णुन ताका फुडें सांगलें, 'सुतलांत आपूण तुचो द्वारपाल जातलो आनी म्हजें चक्र तुजी राखण करतलें. आयज कार्तिक शु. पाडवो. हे तिथीक बलिप्रतिपदा म्हणून वळखतले आनी आयज सावन हे तिथीक लोक तुजी पुजा करतले, वामनाची आज्ञा मानून बली सुतलांत गेलो. उपरांत वामनान शुक्राकडल्यान ताच्या यज्ञाची समाप्ती केली आनी बलीच्या अनुचर दैत्यांक धावंडावन घालून, पृथ्वीचें राज्य मनुपुत्राक दिलें.

बली हो असूर आसलो तरी तो सत्वशील आशिल्लो. ताच्या आंगांत खूब सद्गुण आशिल्ले. रामायणांत बलीचें वर्णन आयलां तें अशें आसा-

*एष वै परमोदारः शूरः सत्यपराक्रमः ।*
*वीरो बहुगुणोपेतः पाशहस्त इवान्तकः ।।*
*बालार्क इव तेजस्वी समेरऽप्यनिवर्तकः ।*
*अमर्षी दुर्जयो जेता बलवान्गुणसागरः।।*
*प्रियंवदः संविभागी गुरुविप्रप्रियः सदा।*
*कालाकाङ्क्षी महासत्वः सत्यवाक्सौम्यदर्शनः।।*
*दक्षः सर्वगुणोपेतः शूरः स्वाध्यायतप्तरः।*

**अर्थ :** (बली) हो उदार, शूर, सत्यपराक्रमी, वीर, सगळ्या गुणांनी युक्त, पाशधारी यमाभाशेन, बालवीराभाशेन तेजिश्ट, झुजामळार दुस्मानाक फाट दाखोवपी न्हय, असहिष्णू, बळिश्ट, गुणेस्त, गोड उलोवपी, गुरू आनी ब्राह्मण हांचो आवडटो, योग्य वेळाची वाट पळोवपी, सत्वशाली, खरें उलोवपी, दिसपाक थंड, सगळ्यांविशीं जागरूक, शूर आनी ज्ञानार्जनाखातीर सदांच तयार आसपी.

भृगुकच्छांत हारिल्लो बली विष्णुचे आज्ञेन सुतलांत गेलो म्हळ्यार भारताचे अस्तंत दर्यादेगेर केरळांत ताणें आपलें राज्य स्थापन केलें अशें म्हण्टात. केरळीय लोक आयज लेगीत बलीक राजा म्हणून वळखतात. बलीविशीं केरळांतल्या लोकांक खूब आदर आसा. थंय 'ओणम्' हो बळीचो उत्सव करतात. 'इडापिडा वचूं बळीचें राज्य येवं, अशें दिवाळेक म्हळ्यार कार्तिक शु. पाडव्याक महाराष्ट्रांतल्या गांवगिऱ्या वाठारांनी म्हण्टात.

बलीचो आस्पाव सप्त चिरंजिवांमदीं जाला. पुर्विल्ल्या काळांत केन्ना तरी, कन्याकुमारीचे दक्षिणेक कितलेशेच कोस दर्यांत गेल्लें एक भूशीर आशिल्लें. थंय बलीची राजधानी आशिल्ली, अशे उल्लेख तमीळ वाङ्मयांत मेळटात. बली थंय राज्य करता आसतना एक सैमीक उत्पात जावन, खुबळिल्ल्या दक्षिण दर्यान बलीचें राज्य बुडोवन, थंयची भूंय गडप केली, अशेंय कांय संशोधकांचें मत आसा.

दक्षिणां दिना आसतना केल्ल्या कर्माचें फळ कर्त्याक मेळना, तें बलीक मेळटा अशें देवी भागवतांत म्हळां. ताणें ३० लाख ६० हजार वर्सां राज्य केलें अशें पद्म पुराणांत म्हळां. ताका फकत बली म्हणी नासतना महाबली म्हण्टात. पुराणांत बली नांवाचे धा-बारा मनीस मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

## बलुते : (पळेयात अलुते बलुते).

## बल्गेरिया : 'नरॉदना रिपुब्लिक बल्गेरिया' म्हळ्यार बल्गेरिया प्रजासत्ताक. आग्नेय युरोपाच्या बाल्कन द्वीपकल्पांतलें एक राश्ट्र. अक्षवृत्ती आनी रेखावृत्ती विस्तार अनुक्रमान ४१°१४' उत्तर ते ४४° १२' उत्तर आनी २२° २१' उदेंत ते २८° ३७' उदेंत. देशाचो आकारमान सादारणपणान चवकोनी आसा. देशाची उदेंत-अस्तंत लांबाय सुमार ४५० किमी. आसून दक्षिण-उत्तर रुंदाय सुमार २७५ किमी. इतली आसा. क्षेत्रफळ १,१०,९१२ चौ. किमी. आनी लोकसंख्या ८,९००,०००(१९९१). बल्गेरिया देशाचे उत्तरेक रुमनिया, अस्तंतेक युगोस्लाव्हिया, दक्षिणेक ग्रीस आनी तुर्कस्तान आनी उदेंतेक काळो दर्या (Black Sea) आसा. देशाचे उत्तरेक डॅन्यूब न्हंयेची सैमीक रितीन तयार जाल्ली शीम बल्गेरियाक मेळ्ळया. सोफिया हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** बल्गेरियेची चडशी भूंय दोंगरी स्वरुपाची आसून सुमार ५०% इतलो प्रदेश ३००मी. परस चड उंचायेचो आसा. उत्तर-दक्षिण अशे डॅन्यूबे न्हंयेचें देगण बाल्कन पर्वत, थ्रेस हो मळांचो प्रदेश आनी रॉडोपी पर्वत अशे रितीन देश चार वांट्यांनी विभागला. उत्तरेक डॅन्यूब देगणान न्हंयेसावन ते दक्षिणेक बाल्कन पर्वतांलागीं मंचवजा हो पिकाळ प्रदेश आसा. हें देगण दर्याथळासावन सुमार १२५ मी. ऊंच आसून ह्या वाठारांत चड करून चुन्याखडी आनी चिकणमाती मेळटा. ह्या प्रदेशांत व्हांवपी ईस्कर हे न्हंयेचो उगम दक्षिणेक आशिल्ल्या पिरीन पर्वताचेर जाला. ही न्हंय सोफिया मळांचो वाठार आनी बाल्कन पर्वत हुंपून डॅन्यूब न्हंयेक मेळटा. बाल्कन पर्वतांची वळ सादारणपणान देशाच्या मध्यभागांतल्यान वचून अस्तंतेक युगोस्लावियेसावन उदेंतेक काळ्या दर्यामेरेन पातळ्ळया. थ्रेस हें मळ उत्तरेक स्त्रेड्ना आनी सूरनेना दोंगर तर दक्षिणेक रॉडोपी दोंगरां मजगतीं आसा. बल्गेरियेचो चडसो नैर्ऋत्य वाठार रॉडोपी पर्वतांनी रेवडिल्लो आसून बाल्कन द्वीपकल्पांतल्या सगळ्यांत ऊंच अशे दोंगरावळींत अस्तंतेक आशिल्ल्या पिरीन आनी रीला दोंगरांचो आस्पाव जाता. म्यूसाला (स्टलिन) हें देशांतलें तशेंच बाल्कन द्वीपकल्पांतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक (२,९२५मी.). डॅन्यूबे, मरित्स, ईस्कर, स्त्रूमा, आर्डा, टूंजा, यांत्रा ह्यो बल्गेरीयेंत व्हांवपी म्हत्वाच्यो न्हंयो.

**हवामान :** रखरखीत गीम आनी कडक शिंयाळो हें हांगाच्या हवामानाचें खाशेलेपण. रातीच्या आनी दिसाच्या तापमानांत खूब फरक जाणवता. सादारणपणान उत्तर आनी अस्तंत वाठारांनी गिमांत तापमान २२° ते २४° सॅ. इतलें आसता आनी शिंयाळ्यांत ते ३° ते -३ सॅ. मेरेन देंवता. समशीतोश्ण हवामानाच्या वाठारांनी वर्सुकी पावस ५०° तें ६०° इतलो पडटा. कांयकडेन गिमाच्याय दिसांनी पावस पडटा. काळ्या दर्यालागशिल्ल्या वाठारांनी हवामान मध्यम आसता. दर्याथळासावन चड ऊंच आशिल्ल्या प्रदेशांनी चड पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** पावसाळ्या ऋतूंत हांगा वेगवेगळ्या मळाच्या वाठारांनी विंगड विंगड प्रकाराचें तण किल्लता. मळाच्या वाठारांनी स्टॅप्स प्रकाराचें जाल्यार ऊंच दोंगरी वाठारांनी आल्पायन प्रकारचें तण मेळटा. अस्तंत आनी मध्य वाठारांनी वनस्पत उंचायेचेर आदारिल्ली आसा. सकयल्या वाठारांनी स्टॅप्स तणाचीं मळां, सादारण उंचायेचेर पानझडी रूख जाल्यार चड उंचायेचेर आशिल्ल्या वाठारांनी सूचिपर्णी रुखांचे आनी

आल्पायन तणाचे प्रकार दिसतात. दोंगरांच्या मुळसांत आशिल्ले रूख कापून ते सुवातीचो शेतवडीखातीर उपेग करतात आशिल्ल्यान ह्या भागांतलीं रानां इल्लीं इल्लीं काबार जायत आसात. सादारणपणान ओक, बीच, टॉर्नबीम हे पानझडी रूख हांगाच्या सगळया रानांनी दिश्टी पडटात. हालींच्या तेंपार सरकारान रानरोपण येवजणेचेर चड भर दिल्लो आसा.

बल्गेरीयेच्या दाट रानांनी विंगड विंगड प्रकारांची मोनजात सांपडटा. रानांत सांपडपी मोनजातींभितर वांस्वेल, रानदुकर, एल्क, शॅमॉय, हरणां आनी लांडगे हांचो आस्पाव चड आसा. महोका, हांयस, पॅलिकन, बूलबूल आनी हेर सुकणीं हांगा पळोवपाक मेळटात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** बायझंटाय साम्राज्याचे अखेरेक बल्गार लोकांनी डॅन्यूब आनी थ्रेस न्हंयां भोंवतणच्या देगणांनी रिगून हांगाच्या व्हड प्रदेशांचेर आपलो शेक बसयल्लो. पूण सातव्या शेंकड्यांत उत्तरेक आशिल्ल्या खाजार जमातीच्या लोकांनी तांचे आड झूड उबारून तांकां धांवडावन घाले. मुखार इ. स.६८१ त गॉथ, तुर्की आनी इराणी टोळयांचेर घुरी घालून बल्गार राज्याची स्थापणूक केली. इ.स. ७४३ ते १०१८ ह्या काळाचो इतिहासकारांनी बल्गेरीयेचो पयलो सत्ताकाळ असो उल्लेख केला. ह्या काळांत क्रॅम (कार ८०२-८१४) आनी सिमिऑन (कार ८९३-९२७) हांच्या तेपार बल्गार राज्याचें संस्कृतीक म्हत्व वाडलें. ह्या काळांत बल्गार जमात आनी थळावी स्लाव्ह जमात हांच्या संस्कृतायांची भरसण जावन, ह्या प्रदेशांत एक नवीच संस्कृताय निर्माण जाली. १०१९ ते ११८५ ह्या काळांत बल्गेरियन राज्य बायझंटायन साम्राज्याच्या शेकातळा आशिल्लें. मुळावे अवस्थेंत आशिल्ले बल्गेरियन संस्कृतायेची वाड ह्याच काळांत जाली. १८८६ ते १३९६ हो बल्गेरियन सत्तेचो दुसरो काळ. ह्या काळांत देशाच्यो शिमो निश्चीत जावन हांगा राजकीय थिरायूय आशिल्लें. चवदाव्या शेंकड्याचे अखेरेक ऑटोमन सैन्यान बल्गार राज्याचेर घुरी घालून ताचो ऑटोमन साम्राज्यांत आस्पाव केलो. अशे रितीन १३९६ त बल्गेरियन राज्यसत्तेचो दुसरो काळ सोंपलो. उपरांत सुमार पांच शेंकडे तरी बल्गेरिया राज्य तुर्कस्तानाच्या ऑटोमन साम्राज्याच्या शेकातळा आशिल्लें. ह्या काळांत भाशा, चालिरिती आनी हेर बल्गेरियन समाजजिणेचेर मुसलमान संस्कृतायेचो प्रभाव पडलो. ह्याच काळांत ग्रीसी ऑर्थोडॉक्स इगर्जेन थळावे बल्गेरियन इगर्जेचो पाडाव करून बल्गेरियन भास, लिपी तशेंच साहित्य नश्ट करून उडोवपाचे खूब यत्न केल्ले. तुर्की राजवटीन बल्गेरियन लोकांच्यो जमनी घेवन त्यो आपल्या लोकांभितर वांटिल्ल्यो. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक बल्गार लोकांमदीं राश्ट्रीय आनी आपल्या संस्कृतीक व्हडपणाची जाणविकाय जावन तांणी तुर्की साम्राज्याआड साबार झुजां आनी बंड उबारिल्लें. हाचो परिणाम म्हळयार १८७८ त बल्गेरिया स्वतंत्र जावन बल्गेरियन सत्तेचो तिसरो काळ सुरू जालो.

बल्गेरियन सत्तेचो तिसरो काळ सुरू जातकच हांगा राजेशायेचो विकास जालो. पयल्या म्हाझुजाउपरांत तिसरो बोरीस हाचे देखरेखीखाला देशांत राजकीय थिराय आयली. दुसऱ्या म्हाझुजा वेळार बोरिस हाणें हिटलराच्या आदारान युगोस्लाव्हियाचो कांय वाठार बल्गेरियेच्या शेकातळा हाडलो. पूण दुसऱ्या म्हाझुजांत जर्मनीचेर हार पडले उपरांत हेर उदेंत यूरोपीय राश्ट्रांप्रमाण बल्गेरिया देशूय रशियेच्या शेकातळा आयलो. कॉलारॉफ आनी डिमीट्रॉफ ह्या दोगांच्याय यत्नांक लागून बल्गेरियेंत कम्युनिस्ट राजवटीची स्थापणूक जाली.

बोरिस हाका १९४३ त मरण आयले उपरांत ताचो चलो सिमेऑ दुसरो गादयेर बसलो. पूण १९४४त "फादरलँड फ्रंट' ह्या दाव्या पक्षान रशियेच्या आदारान सत्ता हातासली. हे नवे सत्तेचीं सगळीं सुत्रां किमॉन गेऑर्गीव्ह. हाणें सांबाळिल्लीं. उपरांत सप्टेंबर १९४६ त वेंचणुको घेवन लोकशायेचो अंत केलो आनी प्रजासत्ताक राश्ट्रांची घोशणा केली. नव्या सरकारान सगळे विरोधी पक्ष विसर्जीत करून १९४७ त रशियन धर्तेचेर नवें संविधान आपणायलें.

उपरांत १८ मे १९७१ त हातूंत सुदारणा करून नव्या संविधानाची रचणूक केली. १९७१ तल्या संविधानाप्रमाण बल्गेरियेंत ४०० वांगड्यांची राश्ट्रीय विधानसभा आसा. ह्या वांगड्यांची मुजत पांच वर्सांची आसून हेच वांगडी स्टेट काउन्सिलाच्या वांगड्यांक वेंचून काडटात. स्टेट काउन्सिलाचो अध्यक्ष राश्ट्र मुखेल्याचें पद सांबाळटा. पूण राश्ट्र मुखेल्याचो आस्पाव संविधानांत जायना. विधानसभा मंत्रीमंडळाक वेंचून काडटा आनी हें मंत्रीमंडळ सभेक जापसालदार आसता. १९९० मेरेन "फादरलँड फ्रंट" ही आघाडी बल्गेरियन कम्युनिस्ट पक्षाच्या शेकातळा आशिल्ली. तशेंच, सगळी राजकीय सत्ता ह्याच पक्षाच्या हातांत आशिल्ली. कम्युनिस्ट राजवटीच्या चार दसकां उपरांत १९९० त पयलेच खेपे सार्वत्रिक पद्दतीन वेंचणुको घेवन दोन अध्यक्ष आशिल्ली निगमित अध्यक्षीय पद्दत (Corporate Presidency) अपणायली.

**अर्थीक स्थिती :** दुसऱ्या म्हाझुजापयलीं बल्गेरिया देशाची अर्थवेवस्था मुखेलपणान शेतवडीचेरूच आदारिल्ली. वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांत शेतवडीचो वांटो ६०% जाल्यार उद्देगधंद्याचो फकत १५ % अशिल्लो. पूण १९४७त हांगा कम्युनिस्ट राजवट सुरू जाले उपरांत नव्या सरकारान उद्देगधंद्याचेर चड भर दिल्लो. रशियन धर्तेचेर उद्देग आनी वेपारांचें राश्ट्रियकरण केल्लें आनी रशिये भाशेनूच सामुहीक शेतवड पद्दत आनी पांच वर्सुकी येवजणो आपणायल्ल्यो.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत सरकारान उद्देगधंद्याचेर चड भर दिल्लो आसलो तरी शेतवड हो हांगाचो म्हत्वाचो वेवसाय आसून देशांतले वट्ट जमनींतली सुमार ४१% जमीन शेतवडीखाला आसा. देशाचे वट्ट लोकसंख्येंतले सुमार ३०% लोक शेतवडींत वावुरतात. १९४७ उपरांत शेतवड मळाचेर रसायनीक साऱ्यांचो आनी यंत्रांचो चड वापर जाता. फळफळावळ, गंव, मको, बीट, बार्ली, राय, कापूस आनी तंबाखू ही हांगाची मुखेल पिकावळ.

देशाच्या कांय वाठारांनी खनीज तेल आनी सैमीक वायूंचे सांठे आसात. खनीज तेल चड करून काळया दर्या लागशिल्ल्या वाठारांनी मेळटा. बुर्गास आनी डॉल्नी डब्नीक हांगा सैमीक तेलाचें निवळीकरण करपाची प्रक्रिया चलता. कोळसो हें देशाचें शक्तिनिर्मितीचें मुखेल साधन.

हांगाचे भुंयेंतली १/३ भूंय रानाखाला आसून रिला, रॉडॉपी, पिरीन हे रूख हेर उद्देगांवांगडा रसायनां करपाखातीर वापरतात. नुस्तें मारपाचे नदरेन काळो दर्या म्हत्वाचो आसून नुस्तें मारपाखातीर आधुनिक बोटींचो उपेग करतात.

**येरादारी आनी संचारण :** १९९५ मेरेन हांगा ४,२९७ किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आनी ३६,४५९ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. बल्गेरीयन ॲरलायन्स ही विमान येरादारी सांबाळपी मुखेल संस्था. बंदरां आनी हेर उदकामार्गांचेर बल्गेरियन युनायटेड शिपींग आनी शिपबिल्डींग कार्पोरेशन ह्यो संस्था देखरेख दवरतात.

**लोक आनी समाजजीण :** सद्याचो बल्गेरियन समाज हो बल्गार आनी स्लाव्ह ह्या मुळव्या जमातींसावन तयार जाल्लो आसा. बल्गार ही काळया दर्याचे उत्तरेक स्टॅप वाठारांत रावपी मुळावी आशियायी जमात. सातव्या शेंकड्यांत बल्गार लोकांनी डॅन्यूब न्हंय हुंपून डॅन्यूब देगणाचे दक्षिणेक आपलो राबितो केलो. हे जमातीन पांचव्या आनी सव्या शेंकड्यांनी हांगा येवन राविल्ल्या स्लाव्ह लोकांचेर जैत मेळोवन बल्गेरियन राज्याची स्थापणूक केली. ह्या बल्गार लोकांवयल्यान ह्या प्रदेशाक बल्गेरिया हें नांव पडलें. सादारणपणान बल्गार आनी स्लाव्ह संस्कृतायांची भरसण जावन सद्याचो बल्गार समाज तयार जाल्लो आसा. बल्गेरियन समाजाचेर बायझंटायन आनी तुर्की संस्कृतीचोय प्रभाव पडिल्लो दिश्टी पडटा. हांगा १९९० मेरेन सुमार ८५% लोक बल्गार, ५९% तुर्की, २.५% हेडगे लोक, ०.१% ग्रीसी, ०.३% आर्मेनियन आनी ०.१४% रशियन लोकांचो आस्पाव आशिल्लो. इस्टर्न ऑर्थोडॉक्स इगर्जेचो शेक कम्युनिस्ट पक्षाच्या यत्नांक लागून खूब उणो जाल्लो आसा.

**शिक्षण, भास आनी साहित्य :** शिक्षणांत खूब उदरगत जाल्ली आसून, साक्षरतायेचें प्रमाण सुमार ९५% इतलें आसा (१९९१). भौशीक वाचनालयांचीय खूब वाड जाल्ली आसा. वाङमय, कला आनी विज्ञान शिक्षण दिवपी खूब संस्था हांगा आसात. सात ते सोळा वर्सां भितरल्या पिरायेच्या विद्यार्थ्यांक सक्तीचें आनी फुकट शिक्षण मेळटा. शिक्षण धर्मनिरपेक्ष आसून तंत्रविज्ञान ते कलाकुसर अशें सगळया प्रकारांचें शिक्षण हांगा शिकूंक मेळटा.

बल्गेरियन ही देशाची अधिकृत भास आसून ती इंडो-युरोपियन कुटुंबाच्या स्लाव्हीक गटांतली एक भास. णवव्या शेंकड्यासावन हे भाशेंतल्यान साहित्य निर्माण जावपाक लागलें. सुरवेक बल्गेरियन साहित्य हें धार्मिक स्वरुपाचेंच आशिल्लें. फादर पायसी (१७२२-९८), पेटको स्लाव्हिकोव्ह (१८२७-९५), ल्युबेन काराव्हेलोव्ह (१८३४-७९), गेओर्गी रकॉव्हस्की, इव्हान व्हाझॉव्ह (१८५०-१९२१), पेंचो स्लाव्हिकोव्ह (१८६६-१९१२), एलिन - पेलिन (१८७७-१९४९) ह्या साहित्यिकांनी बल्गेरियन साहित्य गिरेस्त करपाक हातभार लायलो.

सोफिया हें देशाचें राजपाटण आसून, उद्देगीक, संस्कृतीक आनी शिक्षणीक नदरेन तें चड म्हत्वाचें. वार्ना, रुसे आनी बुर्गास हीं बंदरां उद्देगीक आनी वेपाराचे नदरेन चड म्हत्वाचीं आसात. गिमाच्या दिसांनी विसव घेवपाची सुवात म्हणून वार्ना शाराक 'हॉलिडे सेंटर' ह्या नांवांन संवसारीक नामना मेळळया. स्टारा झागॉरा हें हांगाचें प्रसिध्द शार आसून स्लिव्हेन, गाब्रॉव्हॉ पेर्नीक, टॉल्बुखिन, शुमेन, यांबोल आनी पाझार्जीक हींय शारां म्हत्वाचीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**बसवेश्वर :** (जल्मः इ. स. ११३१ बागेवाडी-विजापूर; मरण : इ.स. ११६७).

वीरशैव धर्माचो संस्थापक. ताचो जल्म वैशाखांतले अक्षय्य तृतियेक मानतात आनी त्याच दिसा बसवजयंती मनयतात. ताचो जल्म शैव ब्राह्मण कुटुंबांत जालो. ताच्या बापायचें नांव मादिराज आनी आवयचें नांव मादलांबिका आशिल्लें. ताचे व्हडले भयणीचें नांव अक्कनागम्मा आनी धाकल्या भावाचें नांव देवराज मुनिप. ताचे पयले बायलेचें नांव गगांबिके; दुसरी बायल नीलांबिका हिच्या नांवाविशीं मतभेद आसात. बालसंगय्य अशें ताच्या चल्याचें नांव आशिल्लें असो उल्लेख मेळटा.



बसवेश्वराचे शिवभक्तीक लागून 'भक्तिभांडारी' अशेंय ताका नांव मेळिल्लें. तो कूडलसंगम हांगाच्या संगमेश्वराचो निश्ठावंत भक्त आशिल्लो. लिंगायत लोक ताका शिववाहन नंदीचो अवतार मानतात. बसव (सं. वृषभ म्हळयार बैल) ह्या नांवावयल्यानूय हें समजता.

बसवेश्वराच्या पिरायेच्या आठ वर्सांचेर जेन्ना ताच्या आवय-बापायन ताची मूज करपाची थरयली, तेन्ना ताणें ती करपाक न्हयकार दिलो. आपल्याक पयलींच लिंगदिक्षा मेळ्ळया अशें सांगलें आनी घराचो त्याग करून तो कुडलसंगम ह्या शैव क्षेत्रांत वचून रावलो. कुडलसंगम ह्या विद्याक्षेत्राचो स्थानपती जातवेदिमूनी (ईशान्य गुरू) हाच्या मार्गदर्शनाखाला बसवेश्वराचें अध्ययन जालें. थंय ताणें विंगड विंगड भाशा, धर्म, तत्त्वज्ञान

तशेंच वेदांगांचें, षड्दर्शनांचें, इतिहास-पुराणांचें अध्ययन केलें. जैन आनी बौध्द दर्शनांय समजून घेतलीं. संस्कृत, तमीळ, पाली ह्या भाशांतले मुखेल ग्रंथ वाचले.

कुडलसंगमा सावन तो मंगळवाड हांगा म्हळयार सद्याच्या सोलापूर जिल्ह्यांतलें मंगळवेढे गांवांत बिज्जल नांवाच्या महामंडलेश्वराकडेन गेलो, अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. पूण संप्रदायीक पुराणांत मात तो कल्याणाक गेलो अशें म्हळां. बिज्जल हो फुडें राजा जातकच बसवेश्वरान ताचेकडेन कारकुनाचे नोकरेपसून, कोषागार-मंत्री म्हणून लेगीत काम केलें. कल्याणाक ताणें धर्मसुदारणेचें कार्य केलें. ताका वर्णभेद, जातीभेद तशेंच यज्ञ-यागांत केल्ली पशुहत्या मान्य नाशिल्ली. ताका लागून कांय सनातनी लोकांनी ताचे आनी बिज्जलामदीं दुस्मानकाय निर्माण करपी वातावरण तयार केलें. निमाणें बिज्जलाचें सैन्य आनी बसवेश्वराच्या अनुयायांमदीं झगडीं सुरू जालीं. ह्या झगड्यांक विटून बसवेश्वर परतून कूडलसंगमाक आयलो आनी थंय ताणें समाधी घेतली.

कल्याणाक ताणें 'शिवानुभवमंटप' ही संस्था स्थापन केली. सगळ्या जातींतले आनी वेवसायांतले लोक हांगा एकठांय येवन विंगड विंगड विशयांचेर भासाभास करपाक लागले. भासाभाशेच्या माध्यामांतल्यान ताणें लोकांभितर जागृती केली. विंगड विंगड जातीजमातींच्या लोकांमदीं भावपण जागोवन, विचार स्वातंत्र्याची प्रेरणा निर्माण केली. दया, सत्य, अहिंसा, सदाचार, निती, शील हांचो प्रचार करून, एकाच देवाची भक्ती करात, भूतदया बाळगात, मोगान वागात, परोपकार करात अशी लोकांक शिकवण दिली.

बाराव्या शेंकड्यांत ताणें कांय क्रांतिकारक कार्यां केल्यांत तीं अशीं - चातुर्वर्ण्यांक प्रोत्साहन दिवन सगळ्यांक समान मानले आनी आंतरजातीय लग्नां घडोवन हाडलीं, अस्पृश्यांगेर जेवण घेतलें, बालविवाहाक विरोध करून विधवाविवाहाक मान्यताय दिली. सगळे मनीस समान आसात हाचो अर्थ बायल आनी दादलो हींय समान अशें ताचें मत आशिल्लें. म्हणुनूच ताच्या अनुभवमंटपांतले भासाभाशेंत दादल्यावांगडा बायलोय वांटो घेताल्यो.

बसवेश्वरान खूब सुवातींनी मठ स्थापन केले. बसवेश्वर हो समर्थ योगी आशिल्ल्याचें तशेंच ताका ईश्वरी साक्षात्कार जाल्ल्यान जायते चमत्कार केल्ल्याचेय उल्लेख मेळटात ते अशे- ताणें कड्डणाचें रुपांतर रत्नांनी केलें, बिज्जलाक गुप्त खजिनो दाखयलो, हुंवार आयिल्लो आसतना कृष्णा न्हंयेन ताका वाट करून दिली.

बसवेश्वरान 'कायकबे कैलास' हो म्हान सिध्दांत मांडला. तातूंत शारिरीक कश्ट वा वेवसाय होच स्वर्ग, अशें सांगलां. मोक्षाखातीर रानांत वचपाची कांयच गरज ना अशेंय ह्या सिध्दातांत म्हळां. आपले विचार सगळ्या लोकांक कळचे म्हणून ताणें संस्कृत सोडून कन्नड भाशेंत उपदेश केला. प्रभावी आनी शैलीदार तशेंच अंतस्करणाक जाणवपी अशें ताचें साहित्य आशिल्ल्यान ताका वचनवेद, वचनशास्त्र हीं नांवां मेळ्ळयांत.

कन्नड साहित्यांत बसवेश्वराच्या 'षट्स्थलवचन', 'कालज्ञान', 'मंत्रगौप्य', 'शिखारत्नवचन' ह्या ग्रंथांक सासणाची नामना मेळ्ळया.

मराठी, हिंदी, इंग्लीश ह्या भाशांनीय बसवेश्वराचीं चरित्रां बरयल्यांत. यादस्तिकाच्या रुपान बसवेश्वराच्या नांवान ग्रंथालयां, शिक्षण संस्था, बँको, प्रकाशनां चलतात.

बसवेश्वर जयंतीच्या दिसा बसव बागेवाडी आनी कूडलसंगम, बसवकल्याण, उळवी(कारवार जिल्हो) गांवांनी यात्रा भरतात. कूडलसंगमाक दर वर्सा श्रावण शु. पाडव्याक ताची पुण्यतीथ मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बहाई धर्म :** बहाऊल्ला (१८१७-९२) हाणें स्थापन केल्लो एक विश्वधर्म. इस्लामांच्या शिया पंथांतल्यान तयार जाल्ल्या बाबी पंथाचेंच बहाई धर्मांत रुपांतर जालें.

इराणाच्या मिर्झा अली मुहंमद हाणें १८४४ वर्सा आपूण बाब (अदृश्य आशिल्ल्या बाराव्या इमामाचो संदेश लोकांमेरेन पावोवपाचें एक दार) आशिल्ल्याचें घोशीत केलें. ताच्या पंथाक बाबी पंथ अशें नांव पडलें. बाब हाणें सुबह-इ अझल हाका आपलो अध्यात्मीक वारस म्हणून नेमलो. १८६३ मेरेन तो बाबी पंथाचो मुखेल आशिल्लो. पूण अझल हाचो सवती भाव बहाउल्ला हाणें आपुणूच प्रेषित म्हणून घोशीत करतकच बाबी पंथांत दोन गट पडले. बाबी पंथाच्या चडशा शिश्यांनी बहाउल्लाचें फुडारपण मान्य केलें. बहाउल्ला हाणें बाबीच्या तत्त्वज्ञानापरस वेगळें तत्त्वज्ञान सांगिल्ल्यान बहाई हो स्वतंत्र धर्म मानूंक लागले आनी बहाउल्ला ताचो संस्थापक जालो.

बहाउल्ला हाका पॅलेस्टायनांतल्या अक्काक हद्दपार केल्लो. ताणें पिरायेच्या निमाणेमेरेन थंयच्यानूच धर्मप्रसार केलो. ताणें आपलो व्हडलो चलो अब्बास एफेंडी ऊर्फ अब्दुल-बहा (२३ मे १८४४ - १९२१) हाका आपलो अध्यात्मीक वारस नेमलो. अब्दुल बहाचो भाव मिर्झा मुहंमद अली हाणें भावाक विरोध केल्लो. अब्दुल बहा हाणें वेगवेगळ्या देशांनी भोंवडी करून बहाई धर्माचो प्रचार केलो. ताणें आपले व्हडले चलयेचो व्हडलो चलो शोघी एफेंडी रब्बानी (१८९६-१९५७) हाका आपलो वारस नेमलो. ताणें स्वताक 'ईश्वरी कार्याचो संरक्षक' ही उपाधी घेतली. ताका मरण येतकच बहाई धर्माचें फुडारपण 'विश्व-न्यायमंदिर' (युनिव्हर्सल हाऊस ऑफ जस्टिस) हे संसदेकडेन गेलें. विधिविधान, प्रशासन आनी न्याय हांचे सर्वोच्च अधिकार आशिल्ली ही संस्था वेगवेगळ्या राश्ट्रांतल्या राश्ट्रीय अध्यात्मीक वांगड्यांनी वेंचिल्ली आसता. तिचें मुखेल केंद्र इझ्रायलांतल्या हायफा हांगा आसून बाब, बहाउल्ला आनी अब्दुला बहा हांचीं यादस्तिकां थंयच आसात.

बहाई समाजाचें फुडारपण प्रशासकीय समिती आनी सल्लागार समिती करता. प्रशासकीय समिती वेंचून आयिल्ली आसता आनी सल्लागार समिती ही नियुक्त केल्ली आसता. प्रशासकीय समिती ही थळाव्या, राश्ट्रीय आनी संवसारीक मळावयल्या परिशदांनी जाल्ली आसता.ह्या परिशदांची निर्मिती वेचणुकांनी जाता. बहाई धर्मांत वेंचणूक हें एक अध्यात्मीक कर्तव्य मानतात. देखून तातूंत पक्ष उमेदवारी, प्रचार हांचो आस्पाव नासता. खंयूय णव बहाई एकठांय आयले म्हणटकच तांची थळावी परिशद तयार जाता. अशे थळावे परिशदेंतल्यान विशिश्ट पद्दतीन राश्ट्रीय संसद वेंचून काडटात आनी राश्ट्रीय परिशदांतल्यान संवसारीक मळावयली सर्वोच्च परिशद वेंचून काडटात. ह्या वेगवेगळ्या परिशदांच्या हातांत धर्मीक विशयाच्या त्या विभागाचे अधिकार आसतात. तांचेवतीन शिक्षण, अणकार आदी प्रकारांचो वावरूय करतात. 'ईश्वरी कार्याचे हस्त' ही सल्लागार समिती आसून तिचे वांगडी नियुक्त आसतात. शोघी एफेंडी हाणें आपले हयातींत नेमिल्ले हे हस्त हालीं 'विश्व-न्यायमंदिर' हे परिशदेचे सांगणेप्रमाण काम करतात. हे परिशदेन नेमिल्ली 'कॉंटिनेंटल काऊंसिलर्स' ही एक संघटना. हे संघटनेक आदार करपाक नेमिल्लीं सहाय्यक मंडळांय आसात. बहाईंच्या मतान समित्यांची ही वेवस्था ईश्वरान निर्माण केल्या.

बहाई धर्माप्रमाण परमेश्वरान संवसाराची आनी मनशाची निर्मिती केली. मनीस हो सर्वश्रेश्ठ प्राणी आसून ताचो आत्मो अमर आसता. परमेश्वराची पुजा करप आनी सतत विकसीत अशे संस्कृतीची उदरगत करप हें मानवी जिवितांचें उद्दिश्ट. परमेश्वर हो मानवी जाणविकायेचे पलतडीन आसा. लोकांकडेन संपर्क दवरपाक तो प्रेषीतांच्या रुपान जल्म घेता. बहाई धर्मांतले प्रेषिताविशींचे मूळ विचार बाब हाणेंच मांडल्यात.

बहाई धर्माप्रमाण सगळे धर्म एकूच आसात. विश्वशांती, मानवजातीचो एकचार, विज्ञान आनी धर्म हांचेमदलो सुसंवाद, अंधश्रध्देचो त्याग, सत्याचो सोद हीं बहाई धर्माचीं म्हत्वाचीं उद्दिश्टां. राजकीय, अर्थीक, राश्ट्रीय, धर्मीक, वंशीक आदी सगळ्या पूर्वग्रहांक ह्या धर्माचो विरोध आसा. बायल-दादल्याचे समान हक्क, एक पत्नित्व, सक्तीचें शिक्षण, पुरयत संस्थेचें उच्चाटन, अर्थीक विशमतेचें आनी गुलामगिरीचें निर्मुलन हांचो ह्या धर्मान पुरस्कार केल्लो आसा. ह्या धर्मांत संन्याशी, भिक्षूक, मठस्वामी आदींक स्थान ना. घटस्फोटाक मान्यताय आसा, पूण लोकांक तेपासून परावृत्त करपाचो यत्न चलता. ह्या धर्मांत सेवाभावान केल्लें कार्य पुजे इतलें श्रेश्ठ मानतात. एकूच भास ही आंतरराश्ट्रीय भास म्हणून काडून वा निर्माण करून कायदेशीर शासनाचे आदेश पाळचे आदीं तत्त्वां ह्या धर्मांत सांगल्यांत.

बहाउल्लाच्या तत्त्वांचेर श्रध्दा आशिल्ल्या कोणाकूय ह्या धर्मांत प्रवेश मेळटा. तेखातीर कसलोच धर्मीक विधी ना. सदांच सकाळीं, दनपारां आनी रातचें अशी तीन खेपे प्रार्थना करची असो नेम आसा. बहाउल्लान अरबींत बरयल्ली प्रार्थना खंयचेय भाशेंत म्हणूं येता. प्रार्थनेंत कर्मकांडाक म्हत्व नासून श्रध्देक म्हत्व आसा. प्रार्थना वैयक्तीक आनी समुदायीक अशी दोन तरांची आसता. वर्सांतलो निमाणो बाबी म्हयनो हो उपासाचो म्हयनो. प्रत्येक बाबीं म्हयन्याच्या पयल्या दिसा म्हणजेच दर एकुणीस दिसांनी बहाई लोक एकठांय येतात आनी 'एकुणीस दिसांचो उत्सव' मनयतात. ह्या वेळार धर्मग्रंथाचें वाचन करतात. तशेंच, प्रशासन, अर्थीक स्थिती आदीविशीं अहवाल सादर करतात. उपरांत एकठांय खाण खातात. वर्साचे १९ म्हयने आनी म्हयन्याचे १९ दीस ही बाब हाणें चालू केल्ली कालगणना बहाई धर्मान स्विकारल्या. नवें वर्स २१ मार्चाक सुरू जाता. बाब आनी बहाउल्ला हाचो जल्म, तांणी केल्ली घोशणा आनी तांचें मरण ह्या घडणुकांचे दीस मनयतात. ह्या धर्मान अंमली पदार्थ घेवपाक मनाय केल्या.

बहाई प्राथनादेवळाक मशरिक-अल् अधिकार अशें म्हण्टात. ही इमारत वाटकुळीशी आसता. तिचीं णव दारां हीं मनशाच्या आनी



बहाई धर्माच्या अध्यात्मीक केंद्राची वास्तू, नवी दिल्ली

संवसारांतल्या मुखेल अशा णव धर्मांच्या एकचाराचें प्रतीक. सगळ्या धर्मांचो एकचार दाखोवपाखातीर देवळाक एकूच घुमट आसता. ह्या देवळांतल्यान बहाई आनी हेर सगळ्या धर्मांच्या धर्मग्रथांचें वाचन जाता. हांगा पुरयत नासतात आनी धर्मउपदेशूय करिनात. थंय सगळ्या धर्मांच्या लोकांक प्रवेश मेळटा आनी तांचे इत्सेप्रमाण केन्नाय आनी कशेय पद्दतीन प्रार्थना करपाची परवानगी आसता.

तांचें पयलें देवूळ इश्काबाद (रशिया) हांगा बांदलें (१९०२). पूण तें भूंयकांपान नश्ट जालें. उपरांत विलेमिट (इलिनॉयस, अमेरिका), कांपाला (युगांडा), सिडनी (ऑस्ट्रेलिया) आनी फ्रँकफुर्ट (अस्तंत जर्मनी) ह्या सुवातींचेर देवळां बांदलीं. तेभायर, बहाउल्ला आनी अब्दुल-बहा हांच्यो कबरी, बगदाद लागसारची रिजव्हान बाग, बाब हाचें शीराझ (इराण) नगरांतलें घर आदी थळां हीं बहाई लोकांचीं पवित्र स्थानां.

बहाउल्लाचे ग्रंथ हे बहाई धर्माचे मुखेल धर्मग्रंथ. ते अरबी आनी फार्सी भाशांनीं आसात. बहाई धर्मांत एक म्हान प्रतीक मानिल्लें आसून ताका 'सवश्रेश्ठ नामाचें प्रतीक' अशें म्हण्टात. ह्या प्रतिकांत विशिश्ट आकाराच्यो तीन आडव्यो ओळी आसात. तातूंतली वयली ओळ परमेश्वराच्या

विश्वाची, मदली अवतारांच्या विश्वाची आनी मूळची ओळ मनशाच्या विश्वाची. मदले ओळीच्या आकाराची एक उबी ओळ ह्या तीनूय ओळींक विशिश्ट पद्दतीन जोडटा. हाचो अर्थ असो, परमेश्वराचें विश्व आनी मनशाचें विश्व जोडप हें अवताराचें काम. ह्या प्रतीकाच्या दोनूय वटांनीं दोन नखेत्रां आसात.

इराणाच्यान आयिल्ल्या जमाल एफेंडी हाणें १८७० वर्सा भारतांत बहाई धर्माची सुरवात केली. सद्या भारतांत सुमार ११ हजार थळाव्यो परिशदो आसात. ह्या धर्माची जगांत लाखावयर केंद्रां आसून कोट्यांनी शिश्य आसात. भारतांतूय तांचे खूब अनुयायी आसात. प्रत्येक देशांतलें राजपाटणाचें शार हें ताचें राश्ट्रीय परिशदेचें थळ. दिल्लीक बांदिल्लें बहाई धर्माचें मंदीर हो वास्तुशिल्पाचो एक सोबीत नमुनो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बहामनी सत्ता :** मध्ययुगांत दक्षिण भारतांत १३४७ त स्थापणूक जाल्ली एक मुसलमानी सत्ता. चवदाव्या शेंकड्यांत दक्षिण भारताचेर दिल्लीचो मुहंमद तुघलक हाचो शेक चलतालो. ताचेच आड १३२७ सावन बंड जावपाक सुरवात जाल्ली. तें बंड मोडून काडपाखातीर मुहंमदान दक्षिणेंतल्या अमिरांक कपटीपणान जिवेशीं मारपाचो कट रचिल्लो. पूण तो उगडकीक आयिल्ल्यान सुलतानान धाडिल्ल्या दुताक अमीरांनी जिवेशीं मारून उडयलो. उपरांत अमीर जफरखान (हसन गंगू) हाका दक्षिणेंतल्या अमिरांनी आपलो मुखेली म्हणून वेंचून काडून १३४७ त दौलताबादेक ताचो राज्याभिशेक केलो. ताणें अबुल मुझफ्फर अलाउद्दीन बहमनशाह हें नांव घेवन ३ ऑगस्ट १३४७ ह्या दिसा बहामनी राज्याची स्थापणूक केली. ताच्या मूळ घराण्याविशीं इतिहासकारांचें एकमत ना. बुर्हान-इ-मआसिर आनी तबकात-इ-अकबरी ह्या ग्रंथांवयल्यान इस्फंदयाराचो चलो बहामन आनी बहामनाचो चलो हसन गंगू अशें कळटा. फिरिश्ताच्या मतान बहामन इराणाचो आदलो राजा आसून ताच्याच वंशांतलो हसन गंगू आशिल्लो. कांय इतिहासकारांच्या मतान हसन गंगूचो धनी हो ब्राह्मण आशिल्लो, देखून ताणें बहमन हें नांव घेतलें.

हसन गंगून आपलें राजपाटण उपरांत दौलताबादेसावन गुलबर्गाक व्हेलें. राज्यांतलें सगळें बंड मोडून, ताणें राज्यांत थिराय हाडली. ताणें प्रशासनाची वेवस्था बरे रितीन चलची म्हणून आपल्या राज्याची चार सुभ्यांनी विभागणी केल्ली आनी दर एका सुभ्यांत एक स्वतंत्र अधिकारी नेमलो. ११ फेबुवारी १३५८ दिसा ताका मरण आयलें. ताचे उपरांत ताचो व्हडलो पूत पयलो मुहंमदशाह गादयेर बसलो. गुलबर्ग सुभ्याचो अधिकारी आनी मुखेल वझीर मलिक सैफुद्दीन घोरी हाची चली सुलताना हिचेकडेन ताचें लग्न जालें. मलिक सैफुद्दीन हाणें राज्यशास्त्राचेर एक ग्रंथ बरयल्लो. ताणें सुभ्यांची पुनर्रचणूक मुलकी तत्त्वांचेर केली आनी प्रशासनांत कांय सुदारणांय केल्ल्यो. मुहंमदशाह कलेचो तसोच विद्वानांचोय मोगी आशिल्लो. गुलबर्गा किल्ल्यांत आशिल्ली जामा मशीद आनी शारांतली शाहबजार दर्गा तशेंच उस्मानाबादेची हजरत शमसुद्दीन हाची कबर ह्यो मुहंमदशाहान उबारिल्ल्यो वास्तू आयजूय दिश्टी पडटात. मुहंमदशाहाच्या मरणाउपरांत १३७८ त ताचो व्हडलो चलो अलाउद्दीन मुजाहीद गादयेर आयलो. ताणें रोखड्या रोखडी विजयनगराचेर घुरी घाली. पूण हातूंत ताचेर हार पडली. तो परतो येता आसतना वाटेर ताचो खून जालो. हाचो फायदो घेवन मुजाहिदशाहाचो बापोलभाव दाऊद हाणें त्याच दिसा तख्त काबीज केलें. पूण मुजाहिदाचे भयणीन रूह-ए-परवर हिणें, दाऊदाचो खून घडोवन हाडून मुहंमदशाहाच्या पुतणयाक (दुसरो मुहंमद) तख्ताचेर बसयलो. ताच्या तेंपार गुलबर्ग, बिदर, कंधार, एलिचपूर, दौलताबाद, जुन्नर, चौल आनी दाभोळ हीं नगरां कलाविद्यांचीं केंद्रां जालीं. ह्याच तेंपार इराण, इराक आनी अरबस्थान हांगाच्यान चड संख्येन विदेशी मुसलमान दक्षिणेक आयले आनी मुखावयलीं सुमार दोनशीं वर्सां तांणीं दक्षिणेंतल्या राजकारणाचेर आपलो प्रभाव घालो. मुहंमदाउपरांत ताचो व्हडलो चलो घियासुद्दीन गादयेर आयलो आनी ताचे उपरांत ताचोच सवती भाव शमसुद्दीन गादयेर आयलो. पूण फिरोजखान हाणें शमसुद्दीन हाचे दोळे फोडून आपूण गादयेर बसलो. १४०७ त फिरोझशाहान विजयनगराचेर घुरी घाली. तेन्ना दोगांय भितर तातपुरती कबलात जाली. ३ ऑक्टोबर १४२२त दिसा ताका मरण आयलें. बहामनी घराण्यांतलो एक विद्वान सुलतान म्हणून ताणें नामना जोडिल्ली. ताच्या तेंपार वेपाराची खूब वाड जाल्ली. चौल आनी डभई हीं दोन बंदरां आयात-निर्यात वेपाराचीं दोन केंद्रां आशिल्लीं. फिरोझशाहा उपरांत ताचो भाव अहमदशाह गादयेर आयलो.

पयल्या अहमदशाहान आपलें राजपाटण बिदराक हालयलें. बिदर हें नांव बदलून ताका मुहंमदाबाद अशें नांव दवरलें. १४२३ त अहमदशाहा आनी विजयनगर हांची कबलात जावन विजयनगरच्या राजान खंडणी दिवपाचें मान्य केलें. उपरांत ताणें तेलंगणाचेर घुरी घालून नालगोंडाच्या राजाचेर हार घाली आनी तेलंगणाचो सुभेदार म्हणून खान-इ-आजम हाची नेमणूक केली. अशे रितीन ताणें दक्षिणकडेचे आपले सत्तेक थिराय हाडली.

अहमदाउपरांत ताचो चलो अलाउद्दीन सत्तेर आयलो. अलाउद्दीनाचो काळ राज्यांभितरलें बंड मोडून उडोवपाक आनी परक्यांच्या हल्ल्यांक तोंड दिवपांतूच सोंपलो. अल्लाउद्दीनाच्या मरणाउपरांत गादयेर आयिल्ल्या हुमायून आनी निजामुद्दीन हांची राजवट कांय तेंपूच उरली. ४ सप्टेंबर १४६१ दिसा हुमायूनाचो खून जालो. तेउपरांत ताचो ल्हान आशिल्लो चलो गादयेर आयलो. सुलतान ल्हान आशिल्ल्यान नर्गिस बेगम, ख्वाजाजहान तुर्क आनी महमूद गावान, हे राज्यकारभार चलयताले. १४६३ त महमूद खल्जी हाणें बहामनी सैन्याचेर हार घाली. बहामनीन गुजरातच्या सैन्याच्या आदारान महमूद खल्जी हाका परतून धाडलो. निजामुद्दीन हाच्या

मरणाउपरांत ताचो धाकलो भाव तिसरो मुहंमद गादयेर आयलो. १४६६ त सुलतानान एक फतवो काडून महमूद गावान हाका वकील-ए-सल्तनत हें पद दिवन सगळे राज्याचे अधिकारूय ताकाच दिले. ह्या पदाचेर तो १४८१ मेरेन उरलो. तिसऱ्या निजामुद्दीनच्या मरणाउपरांत महमूद खल्जीन परत एकदां बहामनाचेर घुरी घाली. पूण हे खेपेक दोगांयभितर सदांखातीर कबलात जाली. उपरांत महमूदान खेळणा, संगमेश्वर, विशाळगड आनी हेर ठाणीं आपल्या ताब्यांत घेवन ताणें बहामनींचो कोंकणाचेर शेक बसयलो. फेब्रुवारी १४७२ त बहामनी फौजेन गोंयचोय कांय भाग घेतिल्लो. महमूद गवानाच्या खुनाउपरांत बहामनी सत्तेक देंवती कळा लागली. मुहंमदशाहान हसन निजामुल्मुल्क हाका मलिक-ए-नायब करून राज्याचीं सगळीं सुत्रां ताच्या हातांत दिलीं. ताचे उपरांत ताचो ल्हान चलो शिहाबुद्दीन महंमूद गादयेर आयलो. पूण सगळी सत्ता कासिम बरीद ह्या मलिक-ए-नायबाच्या हातांत आशिल्ली. पूण प्रांतीय राज्यपालांनी ताका विरोध केल्लो. महमूदशाहा उपरांत दुसरो अहमद, अलाउद्दीन, वलिउल्ला आनी कलिमुल्ला हे चार सुलतान गादयेर आयले. पूण ते नांवाखातिरूच सुलतान उरले. खरी सत्ता अमीर बरीदकडेन आशिल्ली. निमाणेकडेन १५३८ त बरीदशाही, इमादशाही, निजामशाही आनी कुतुबशाही ह्यो स्वतंत्र शाही निर्माण जावन बहामनी सत्ता काबार जाली.

बहामनी घराण्याचो शेक पुराय दक्षिण भारतांत वा महाराश्ट्रांत केन्नाच नाशिल्लो. दक्षिणेक आशिल्ल्या साबार हिंदू आनी मुसलमान राज्यांतलेंच ते एक राज्य आशिल्लें. तांच्या राज्यांचें रूप लश्करी आशिल्लें. तांच्या सैन्यांत दख्खनी आनी परकी मुसलमानांचो आस्पाव आशिल्लो. हाका लागून मुखार विदेशी आनी दख्खनी असो वाद निर्माण जालो. विदेशी मुसलमान चड प्रमाणांत हांगा येवपाक लागले. तांचें प्रमाण वाडलें तशी सत्ता नवागतांच्या हातांत गेली. हांचेभितर शिया आनी सुन्नी दोन पंथ आशिल्ले. अहमदनगर आनी वऱ्हाडचे शाहा मूळचे हिंदू आशिल्ले. ह्या राज्यांचो दक्षिणेंतले संस्कृतीचेर शिल्प आनी समाजजिणेचेर व्हड परिणाम जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**बहामा :** कॉमनवेल्थ ऑफ द बहामास. उत्तर अटलांटिक म्हासागराचे दक्षिणेक आशिल्लो, वायव्य-आग्नेयेक पातळिल्लो स्वतंत्र द्वीपसमूह. अमेरिकेच्या फ्लोरायडा राज्याचे दक्षिण देगेचे उदेंतक ८० किमी. आनी हायतीचे उत्तरेक सु. ११२ किमी. पयस हो द्वीपसमुह आसा. विस्तार २०°५०′ उत्तर ते २७°२५′ उत्तर अक्षांश आनी ७२°३७′ अस्तंत ते ८०°३२′ अस्तंत रेखांश अशे हे जुंवे पातळिल्ले आसात. क्षेत्रफळ १३,९३९ चौ. किमी. लोकसंख्या २,६४,००० (१९९१). नासा हें ह्या राश्ट्राचें राजपाटण.

ह्या द्वीपसमुहांत वट्ट ७०० व्हड जुंवे आनी २,००० परस चड ल्हान जुंव्यांचो आस्पाव जाता. पूण वट्ट जुंव्यांतल्यान फकत २० जुंव्यांचेर मनीसवसती आसा. न्यू प्रॉव्हिडन्स, ग्रेट ॲबको, हार्बर आयलंड आनी स्पॅनिश वेल्स, ग्रँड बहामा, कॅट जुंवो, लाँग जुंवो, मेअग्वान, ईलूथर, एक्सूम, सॅन साल्वादोर, ॲकलिन्स, क्रुक्ड, इनाग्वा, अँड्रॉस, बिमिनी आनी रॅग्ड जुंवो हे मुखेल जुंवे आसात. न्यू प्रॉव्हिडन्स आनी ग्रँड बहामा ह्या जुंव्यांक शासकी आनी अर्थीक नदरेन चड म्हत्व आसा. अँड्रॉस हो ह्या द्वीपसमुहांतलो सगळयांत व्हड जुंवो. देशाचें राजपाटण नासाउ न्यू प्रॉव्हिडन्स जुंव्याचेर आसा.

**भूंयवर्णन :** हे बहामा जुंवे फ्लोरायडा सामुद्रधुनीन आनी क्युबासावन ओल्ड बहामा आनी निकोलस खाडी हांकां लागून वेगळे जाल्यात. बहामा जुंवे हे सवथळ, चुन्याखडीन भरिल्ले पाशाणी सड्यांचे वाठार आसात. हांचे मदले कांय जुवे प्रवाळांचे (Coral) पसून आसात. हे जुंवे प्लायस्टोसीन काळांत निर्माण जाल्ले. हे जुंवे सपाट, लांबसार उणे उंचायेचे आनी उणे रुंदायेचे आसात. कांय जुंव्यांचेर ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्यो आसात. चडशो दोंगुल्ल्यो जुंव्यांच्या उदेंत वाठारांनी दिश्टी पडटात. अँड्रॉस जुंव्याचेर चडांत चड उंचाय २२ मी. इतली आसा. देशांतली सगळयांत ऊंच भूंय (६३ मी) कॅट जुंव्याचेर आसा. जुंव्यांचे उदेंत दर्यादिगेचेर नव्यो तयार जाल्ल्यो चडशो रेंवट दोंगुल्ल्यो आसात. ईलूथर आनी लाँग जुंव्यांचेर सगळयांत चड आनी ऊंच दोंगुल्ल्यो मेळटात. हांगा चड खोल बांयचें उदक खार आनी पचकें आसता आनी सवथळ बांयचें उदक सावें आनी पियेवपासारकें आसता. अशा तरांच्यो बांयो चडशो न्यू प्रॉविडन्स जुंव्याचेर आसात. हेरकडेन पियेवपाच्या उदकाखातीर पावसाचेर आदारून रावचें पडटा. हे खातीर व्हड टांकयो आनी तळीं बांदचीं पडटात. जुंव्यावयल्या खोलायेच्या आनी दर्यादिगांतल्या वाठारांनी दलदली आनी उदकाचीं कोंडां दिश्टी पडटात.

**हवामान :** हांगा वर्सूयभर शितळ उपोश्ण कटिबंधीय हवामान आसता. कर्कवृत्तावयलो हो प्रदेश उश्ण आखाती वाऱ्याचे वाटेर आशिल्ल्यान हांगाचे शियाळे ऊबदार आसतात. हांगा शियाळयांच्या दिसांनी तापमान सरासरी २१° से. आसता. गिमाळे सौम्य आसून सरासरी तापमान २७° से. आसता. मे ते ऑक्टोबर ह्या काळांत पावस खूब पडटा. पावसाची वर्सुकी सरासरी ११२ सेंमी. आसा. केन्नाकेन्नाय जुलय आनी नोव्हेंबर ह्या म्हयन्यांनी जुंव्यांक (हरिकेन) वादळांक तोंड दिवचें पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** हांगाचीं रानां उश्ण कटिबंधीय तरेचीं आसलीं तरी चडशी जमीन शेतवडीक आनी शारांचो विस्तार वाडोवपाक उपेगांत हाडिल्ल्यान रानां उणीं जायत आसात. अँड्रॉस, ग्रेट ॲबको आनी ग्रँड बहामा ह्या जुंव्यांचेर दाट रानां आसात. हांगाच्या रानांनी यॅलो पायन आनी कॅरिबियन पायन हे रूख चड आसात. कॉपिसेस हेय रूख कांय जुंव्यांचेर दिश्टी पडटात. कांय वाठारांनी फकत झोंपां आनी मोटवी वनस्पत दिसता. बेबे, शेड्डे, सोरोप आनी हेर ल्हान ल्हान मोनजात सगळयाक दिश्टी पडटा. देगणांनी आनी घोलींनी साबार प्रकारांचीं वागोळीं आसात. तशेंच कृंतक, रॅकून, गार आनी हेर मोनजात मेळटा. बकीं, उदकांतलो

कोळी आनी हंसक हीं सवणीं हांगा आसात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** क्रिस्तोफर कोलंबस हाका हे जुंवे पयलीं सांपडले. कोलंबस पयलीं ज्या गवानाहानी जुंव्यार देंवलो ताका ताणें सॅन साल्वादोर हें नांव दिलें. मुखार 'लूकायोस' ह्या थळाव्या (अमेरिकन इंडियन) लोकांक हिस्पॅनिओला आनी क्युबा हांगाच्या खणींनी काम करपाक धाडले. मुखावयल्या २५ वर्सांभितर हांगाच्या चडशा थळाव्या लोकांक गुलाम म्हणून हिस्पॅनिओलाक व्हेले. ताका लागून ह्या जुंव्यावयली लोकवस्ती साप उणी जाली. सतराव्या शेंकड्याच्या मदल्या काळांत म्हळ्यार १६४८त ब्रिटिशांनी आपले पयले वसणुकेची स्थापणूक ईलूथर ह्या जुंव्यार केली आनी कापसाचे लागवडीक लागून हांगा आफ्रिकन खापऱ्यांक गुलाम म्हणून हाडले. १६७० त हे जुंवे कॅरोलायनाच्या जमीनदारांकडेन आयले. पूण ह्या जमीनदारांनी ह्या जुंव्याची कसलीच उदरगत केलिना. १६७१ त तांणी जॉन वँटवर्थ हाका गर्व्हनर म्हणून नेमलो. पूण हांगा रावपी हेर युरोपी लोकांनी हे गजालीक खर विरोध केलो. कॅरोलायन जमीनदार आनी हांगा रावपी हेर स्पॅनीश आनी युरोपी हांचे भितरली दुस्मानकाय आनी लुटमाऱ्यांचीं धुमशेणां हाका लागून ह्या काळांत हांगाची स्थिती साप इबाडिल्ली. १७१७ त कॅप्टन वुड्स रॉजर ह्या पयल्या ब्रिटीश गव्हर्नराची नेमणूक केली. रॉजरान येवंचे येवन ह्या लुटमाऱ्यांचो बंदोबस्त करून हांगा थिराय हाडपाचे यत्न केले. पूण स्पेनिशांनी खूब फावटीं ह्या जुंव्याचेर घुरयो घाल्ल्यो. १७७६ च्या सुमाराक अमेरिकी सैन्य कांय तेंप नासाऊ शारांत आशिल्लें. १७८१ त स्पॅनिशांनी नासाउ शार घेतलें आनी पुराय वसणूक आपल्या शेकातळा हाडली. पूण १७८३चे पॅरिस कबलातीक लागून हे जुंवे ग्रेट ब्रिटनाच्या चपक्यांत आयले. अमेरिकन स्वातंत्र्यझुजा उपरांत अमिरिकेंतल्या जायत्या ब्रिटीश लोकांनी ह्या जुंव्याचेर येवन आपलो राबितो केलो. १८३८ त गुलामगिरी बेकायदेशीर जावन खाप्री गुलामांची सुटका जाल्ल्यान बहामांतले कापसाचे मळे काबार जाले. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत अमेरिकन सैनीक तळाखातीर बहामा जुंव्यांचो उपेग केल्लो. १९५०त सावळ्या कोराच्या बहामी लोकांनी ब्रिटिशांचें व्हडपण आशिल्ल्या सत्ताधारी युनायटेड बहामी पक्षाक विरोध करपाक सुरवात केली. ह्या विरोधाचें मुखेलपण प्रोग्रेसिव लिबरल पक्षान केलें. बहामी स्वातंत्र्य चळवळ १९६४त फळादीक जावन बहामाक थोडे स्वंयशासनाचे अधिकार दिले. ह्या जुंव्याचेर जानेवारी १९६७ त वेंचणूक जावन स्वातंत्र्यवादी प्रोग्रेसिव्ह लिबरल पक्षाक भोवमत मेळून तांणी सरकाराची स्थापणूक केली. १९६८-६९ त बहामाक आपले राखणेचो आनी परदेशी वेपार हांचे चड अधिकार मेळ्ळे. सप्टेंबर १९७२ तले वेंचणुकेंत देशाच्या पुराय स्वातंत्र्याच्या प्रस्ना वयल्यान प्रोग्रेसिव्ह लिबरल पक्षान भौवमत मेळयलें. हाकाच लागून १० जुलय १९७३त राश्ट्रकुलांतलो एक स्वतंत्र देश म्हणून ब्रिटिशांनी बहामाचें स्वातंत्र्य जाहीर केलें.

स्वतंत्र बहामाचो राज्यकारभार १९७३ वर्साच्या संविधानावरवीं चलता. देशांत संसदीय लोकशाय आपणायल्ली आसली तरी राश्ट्रमुखेली म्हणून ग्रेट ब्रिटनाचे राणयेन नेमिल्लो गव्हर्नर जनरल हें काम सांबाळटा. शासनमुखेली म्हणून प्रधानमंत्री आसता. देशांत दोन सदनी विधिमंडळ आसा. तातूंत १६ वांगड्यांचें सिनेट आनी ३८ वांगड्यांची विधानसभा आसता. सिनेटांतल्या णव वांगड्यांक गव्हर्नर जनरल वेंचून काडटा. विधानसभेंतले सगळे वांगडी लोकांनी पांच वर्सांखातीर वेंचून काडिल्ले आसतात. बहामांत 'बहामियन डॅमॉक्रॅटिक', 'फ्री नॅशनल मुवमेंट' आनी 'प्रोग्रेसिव्ह लिबरल' अशे तीन मुखेल राश्ट्रीय पक्ष आसात.

**अर्थीक स्थिती :** बहामा देशाच्या अर्थीक उत्पन्नांत सगळ्यांत चड म्हळ्यार ७०% उत्पन्न पर्यटन वेवसायासावन मेळटा. देशांतले ५०% परस चड कामगार ह्या वेवसायांत गुंथिल्ले आसात. पर्यटन वेवसायाचेर पडपी ताण उणो जावंचो म्हणून हालीं सरकार शेतवड वेवसायाचेरूय भर दिता. शेतवड मळार उदरगत जावंची म्हणून सरकार नव्यो नव्यो येवजणो आंखीत आसा. ग्रेट ॲबको, अँड्रॉस आनी ग्रँड बहामावयली जमीन पिकाळ आसा. नुस्तेमारी वेवसायाक बरेंच म्हत्व आसा. रानांतले पिकावळिकूय म्हत्व आसा. कॅस्कॅरिला बार्क आनी हेर घट्ट लांकडांची निर्यात जाता. उद्देगीक मळांचेर उदरगत जावंची म्हणून सरकारान कांय नव्यो नव्यो येवजणो आपणायल्यात. खनीज तेल-निवळीकरण, शिमीट उत्पादन, वखदांचे कारखाने हांचेर चड भर दिला. ल्हान ल्हान उद्देगांकूय सरकाराकडल्यान उत्तेजन मेळटा.

**येरादारी आनी संचारण :** व्हड जुंव्यांचेर डांबरी रस्ते बरेच आसात. दोन जुंव्यांमदली येरादारी हवाई आनी दर्या मार्गांतल्यान जाता. देशांत रेल्वे मार्गाची सुविधा अजून जावंक ना. उदका मार्गांतल्यान ग्रेट ब्रिटन, अमेरिका, कॅनडा, वॅस्ट इंडीस जुंवे ह्या वाठारांनी येरादारी जाता. हाचेभायर नासाउ आनी फ्रिपोर्टाक आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. न्यू प्रॉव्हिडन्स आनी हेर म्हत्वाच्या जुंव्यांचेर दूरध्वनीची सुविधा आसा. नासाउच्यान दोन दिसाळीं आनी एक सातोळें उजवाडाक येता.

**लोक आनी समाजजीण :** बहामांतले थळावे आरावाक लोक पुराय काबार जाले. सुरवेक ब्रिटिशांच्या वसणूक काळांत हांगाचे लोकसंख्येचें प्रमाण साप उणें आशिल्लें. अमेरिकन आनी तांणी हाडिल्ल्या गुलामांचे वसणुकेक लागून हांगाचे लोकसंख्येंत वाड जायत गेली. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक बहामाचे वट्ट लोकसंख्येंतली अर्द लोकसंख्या न्यू प्रॉव्हिडन्स जुंव्याचेर आशिल्ली. मुखार पर्यटन वेवसाय नेटान वाडिल्ल्यान हेर जुव्यांक म्हत्व आयलें आनी थंयचे लोकसंख्येंत नेटान वाड जाली. हांगा खाप्री लोकांचें प्रमाण चड आसा. गोऱ्या लोकांमदीं अमेरिकन, कॅनडीयन आनी ब्रिटीश चड आसात. धर्मीक नदरेन प्रॉटॅस्टंट कॅथलिकांचें प्रमाण चड आसा. नासाउ हें राजपाटणाचें शार, फ्रिपोर्ट, ग्रॅड बहामा, क्रुक्ड, इनागवा, ॲकलिन्स, ॲंड्रास, न्यू प्रॉव्हिडन्स, ग्रेट ॲबको हीं म्हत्वाचीं शारां आनी पर्यटन थळां.

- कों.वि.सं.मं.

**बहारीन :** अरबी अल् बहारीन. इराणाच्या आखातांतलें आठ मुखेल जुव्यांचें एक स्वतंत्र शेखराज्य. क्षेत्रफळ ६६९ चौ.किमी. लोकसंख्या ५३८,००० (१९९१). हे जुंवे साउदी अरेबियेचे उदेंतेक सु. २४ किमी. काँथराचे वायव्येक, २६ उत्तर अक्षांश आनी ५०° ३०' उदेंत रेखांश इतले पातळिल्ले आसात. बहारीन म्हळ्यार दोन दर्या. ह्या द्वीपसमुहांत बहारीन खेरीज मुहॅरॅक, जिद्दा, उम सब्बान, सीत्रा, ॲन नॅबी सालिह. उम नॅसान आदी मुखेल जुंव्यांचो आस्पाव जाता. हातूंतले मुहॅरॅक आनी सीत्रा हे जुंवे सांकवांनी जोडिल्ले आसात. हवार जुंवे कताराचे देगे लागीं बहारीन जुंव्यासावन आग्नेयेक सु. २० किमी. पयस आसात. बहारीनाची दर्यादेग सु. १२६ किमी. लांब आसा. मनामा हें राजपाटण आसा.

**भूंयवर्णन :** बहारीन द्वीपसमुंतले जुंवे ल्हान, तळपी (खडपी) आनी दर्याथळासावन साप उणे उंचायेचे आसात. चडशे जुंवे रेंवटी आनी चूनखड्यांचे आसून तांची निर्मिती क्रिटेशस आनी तृतीयक काळांत जाली आसतली अशें भूयतज्ञांचें मत आसा. ह्या द्वीपसमुहांतली सगळ्यांत ऊंच दोंगुल्ली अद् दुखान (१३५ मी.) ही बहारीन जुंव्याचेर आसून तिचेर पातळ रान पातळ्ळां. बहारीन जुंव्याच्या दक्षिण आनी अस्तंत वाठारांनी चुकून खारी जमीन मेळटा. उत्तरेकडचो आनी वायव्येकडचो अशीर प्रदेश पिकाळ आसून खाजरांच्या उत्पन्नाखातीर आनी भाजीपाल्याक लागून तो प्रसिद्ध आसा.

**हवामान :** बहारीनाचें हवामन उश्ण आनी दमट. हांगा गीम आनी शिंयाळो अशे दोनूच ऋतू आसात. मे ते ऑक्टोबर ह्या गिमाच्या काळांत तापमान २९° सॅ. ते ३८° सॅ. इतलें आसता. शिंयाळ्यांत डिसेंबर ते मार्च तापमान २१° से. परस सकयल येता. शिंयाळे ऊबदिणे आसतात. वायव्येकडच्यान येवपी 'शामल' हें आर्द्र वारें आसून दक्षिणेक सावन येवपी 'गाज' हें उश्ण आनी सुकें वारें केन्ना केन्नाय रेंव हाडटा. हांगा पावस उणो पडटा. हांगा पावस सरासरी ४ ते १२ इतलोच पडटा. जुंव्याचेर रेंवटी वाठारांनी जावपी वनस्पतींचे सु. २०० प्रकार सांपडटात. फळां, भाजीपालो हांचें उत्पादन उदका शिंपणावळींतल्यान लागवडीक फावो आशिल्ले जमनींतल्यान घेतात. रेंवाट प्रदेश आशिल्ल्यान हांगा मोनजात साप उणी आसा. सोंशे, शेड्डे, हुंदीर, मुंगूस आनी हेर तरांची मोनजात हांगां दिश्टी पडटा.

**इतिहास :** प्रागैतिहासिक काळांतल्या अवशेशांवयल्यान सुमेरिया, सिंधू संस्कृताय आनी अरबी दर्यांतल्या हेर जुंव्यांकडेन बहारीनाचे वेपारी संबंद आशिल्ले अशें मानतात. आदल्या काळांत तो एक वेपारी जुंवो आशिल्लो. दिलमून नांवाची एक गिरेस्त संस्कृताय इ.स.प. २००० ते १८०० ह्या काळांत हांगा आशिल्ली. इ.स. सातव्या शेंकड्यांत हो जुंवो मुसलमान शेकातळा आयलो. मुखार १५२१ ते १६०२ मेरेन तो पुर्तुगेजांकडेन आशिल्लो. मुखार १६०२ त इराणान ताचेर जैत मेळयलें. साउदी अरेबियेंतल्या अल् खलीफ ह्या राजघराण्यांतल्या अमीरान अरबांच्या आदारान इराणी लोकांक थंयच्यान धांवडावन घाले (१७८३). अठराव्या शेंकड्यांत ब्रिटिशांचो आशियेंतल्या देशांकडेन वेपार वाडलो तेन्ना वेपारी नदरेन म्हत्व आशिल्ल्या ह्या प्रदेशांत रिगून हांगाच्या अमीराक, साउदी अरेबियेंतल्या अरबांक आनी तुर्की लोकांक हांगाच्यान धांवडावंक आदार केलो. परक्यांच्या घुरयांआड आनी देशांत शांतताय दवरपाक ब्रिटिशांनी अमीरांक खूब फावटीं आदार केल्लो. हाचो परिणाम म्हळ्यार ब्रिटीश आनी बाहरीनाच्या अमीरांमदीं १८२० त कबलात जावन मुखार बहारीन हें ब्रिटिशांचें रक्षीत राज्य जालें. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक बहारीनांत लोकांचें कल्याण जावंचें म्हणून सरकारान खूब येवजणो आंखल्यो. शाळा, महाविद्यालयांची स्थापणूक करून ल्हव ल्हव करून शिक्षणीक उदरगत घडोवन हाडली. १९३२ त हांगा तेलाचो सोद लागिल्ल्यान बहारीनांचें राजकीय आनी अर्थीक म्हत्व वाडलें. हांगाच्या लोकांनी शासनांत आपलो आस्पाव जावंचो म्हणून मागण्यो केल्यो आनी राश्ट्रीय चळवळीक सुरवात जाली. १९५६ त बंड आनी अंधाधुंदी जावन देशांची शांतताय इबाडली. ही इबाडिल्ली स्थिती हाताभायर वचपाक लागली तेन्ना अमीरान लोकांक कांय राजकीय हक्क दिले. पूण इतल्यान लोकांचें समाधान जालेंना. तेन्ना अमीरान १९७० त १२ लोकांचें एक शासकीय मंडळ स्थापन केलें. हातूंतले चडशे वांगडी अमीराच्या नात्यांतलेच आशिल्ले. १५ ऑगस्ट १९७१ दिसा अमीरान स्वातंत्र्य जाहीर केलें. त्याच दिसा ब्रिटिशांकडेन ताणें इश्टागतीची कबलात केली.

ह्या स्वतंत्र राश्ट्राची सगळी सत्ता अमीराच्या हातांत आसून तो प्रधानमंत्र्याची आनी मंत्रीमंडळांतल्या वांगड्यांची नेमणूक करता. १९७२ वर्सा नेमिल्ले संविधान समितीन १९७३ त देशाचें संविधान तयार केलें. तेप्रमाण सगळ्याक वेंचणूक जावन ३० वांगड्यांची राश्ट्रीय विधानसभा अस्तित्त्वांत आयली. राजकीय पक्षाक बंदी आशिल्ल्यान हे सगळे वांगडी स्वतंत्र उमेदवार म्हणून वेंचणुकेक उबे राविल्ले. डिसेंबर १९७८ त बहारीनच्या मंत्रीमंडळांत १६ मंत्री आशिल्ले. अमीर हो राश्ट्राचो मुखेली जाल्यार प्रधानमंत्री हो शासनाचो मुखेली.

**अर्थीक स्थिती :** आदल्या काळासावन देशाची अर्थवेवस्था चडशी वेपाराचेर आदारिल्ली आसा. शेतवड, शेंदऱ्यो करप, मोतयां एकठांय करप, ल्हान ल्हान व्हडीं तयार करप आनी नुस्तेमारी हे परंपरेन चलत आयिल्ले वेवसाय अजून तिगून आसात. १९३४ सावन तेलाच्या सोदाउपरांत बहारीनाचो अर्थीक विकास नेटान जावपाक लागलो. शेतवडीखाला, देशांतली फकत १०% जमीन उपेगांत येता. खाजूर आनी अल्फाल्फा तण हींच हांगाचीं मुखेल पिकां. तेल उत्पादनांत बरीच वाड जाल्या. तेलाचे सांठे जरी हेर अरब देशांइतले नासले तरी मुखावयलीं कांय वर्सां पावपाइतले आसात असो तज्ञांचो अदमास आसा. बहारीनाचो मुखेल तेल निवळीकरण कारखानो सीत्रा जुंव्याचेर आसा. देशांतलें आनी साउदी अरेबियेसावन नळांतल्यान येवपी खनीज तेलाचें हांगा निवळीकरण करतात. अर्थवेवस्थेचो विकास जावंचो देखून सरकारान ल्हान-व्हड वेवसायांचेरूय भर दिला. ॲल्युमिनियम बांधकामाचें सामान, प्लास्टीक, तारवां बांदप, कापड विणप हेय वेवसाय हांगा चलतात. पशुपालन आनी कुकडां पोसप हेय वेवसाय

दुप्पा प्रमाणांत चलतात. नुस्तेमारींत सुंगटांचो आस्पाव चड आसता. देशांतल्यान चडशें खनीज तेल आनी सुंगटांची निर्यात जाता आनी अन्नधान्यां, ॲल्युमिनियम धातू, यंत्रसामुग्री आनी हेर म्हालाची आयात जाता. वट्ट उत्पन्नांतलें सु. ७०% उत्पन्न हें तेल निर्गतींतल्यान मेळटा. 'बहारीन फिशिंग कंपनी' आनी 'बहारीन पेट्रोलियम कंपनी' ह्या कंपन्यांक लागून नुस्तेमारी आनी खनीज तेल उत्पादन ह्या उद्देगांत वाड जायत आसा. मे १९७० त बहारीन ऑर्गनायझेशन ऑफ अरब पेट्रोलियम एक्सपोर्टिंग कंट्रीस' (ऑपॅक) चो वांगडी जालो. देशांतलें खनीज तेल उत्पादन दर दिसा २, ६१,००० (१९७७) बल्लां आशिल्लें. देशांत खूब ब्रिटीश, अमेरिकन वेपार संस्था आसात. डिसेंबर १९७७ त दर वर्सा एक लाख वीस हजार टन उत्पादन आशिल्लो, ॲल्युमिनियम निवळीकरण प्रकल्प सुरू जालो.

**येरादारी आनी संचारण :** बहारीन हें येरादारीच्या मळार फुडारिल्लें अशें राश्ट्र. बहारीन जुंव्याचेर येरादारीखातीर रस्त्यांचें जाळें आसून हेर म्हत्वाच्या शारांनी ते ल्हान ल्हान पुलांनी जोडल्यात. हाका लागून बसींची आनी टॅक्सींची येरादारी सगळ्याक आसा. मनामासावन ३ किमी. पयस आशिल्ल्या मुहॅरॅकाक बहारीनाचो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. हांगाच्यान संवसारांतल्या म्हत्वाच्या विमान कंपनीकडच्यान जगभर हवाई येरादारी जाता. बहारीनांतल्यान बोटींची एकसारकी येरादारी आखाती बंदरांकडेन आनी उदेंत बंदरांकडेन चलता.

१९८६ मेरेन हांगा अरबी भाशेंतल्यान उजवाडाक येवपी खूब दिसाळीं आशिल्लीं. चडशीं खबरांपत्रां खाजगी आसात. रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी सेवेची बरीच उदरगत जाल्या. दूरचित्रवाणी केंद्रां सरकाराचे आनी खाजगी मालकीचीं आसात.

**लोक आनी समाजजीण :** बहारीनांतली चडशी वस्ती शाराची आसून उत्तरेकडच्या जुंव्याचेर ग्रामीण समाज चड आसा. वट्ट लोकसंख्येंतले ९०% लोक अरब आसून उरिल्ल्या लोकांमदीं इराणी, भारतीय, पाकिस्तानी हांचो आस्पाव जाता. इस्लाम हो राश्ट्रीय धर्म. शिया आनी सुन्नी पंथांचे सारकेच लोक आसात. अमीर, ताचे दायजी, हेर सत्ताधारी लोक आनी कांय गिरेस्त घराणीं हे सुन्नी पंथाचे आसात. हांगाच्या कांय गिरेस्त लोकांनी युरोपीय चाली-रिती आपणायल्यात. बहारीन लोकांचें अन्न म्हळयार खाजूर, नुस्तें, फळां, दूद आनी शीत. अरबी ही बहारीनाची शासकीय भास आसून उद्देगीक मळाचेर इंग्लिशीचो उपेग चड जाता.

**म्हत्वाचीं थळां :** मनामा हे बहारीनाचें राजपाटण आसून शासकीय आनी उद्देगीक नदरेन म्हत्वाचें आसा. मीना सलमान हें उद्देगीक केंद्र आनी सगळ्यांक उकतें आशिल्लें बंदर, ॲवॅली मेदिनेत हीं म्हत्वाचीं शारां. रास अबू जरजूर हें मध्य उदेंतेतलें मुखेल उपग्रह प्रक्षेपण केंद्र.

- कों.वि.सं.मं.

## बहिणाबाई, संत :

(जल्म : १६२९, देवगांव-वेरूळ; मरणः २ ऑक्टोबर १७००).

मराठी संत कवयित्री. तिचे आवयचें नांव जानकी आनी बापायचें नांव आऊजी आशिल्लें. तिचें आडनांव कुळकर्णी. आऊजी मौनसगोत्री, यजुर्वेदी ब्राह्मण आसून कुळकर्णपणाचें काम करतालो.

बहिणाबाई तीन वर्सांची आसतना तीस वर्सां पिरायेच्या रत्नाकर पाठक नांवाच्या बिजवराकडेन तिचें लग्न केलें. तो शिवपूराक (शिऊर). रावतालो. लग्नाउपरांत चार वर्सांनी बहिणाबाईच्या बापायक खूब रीण जालें आनी जांवयाच्या सल्ल्याप्रमाण आपल्या कुटुंबाक घेवन ताणें घरदार सोडलें. पंढरपूर, शिंगणापूर असो भोंवन तो रहिमतपूराक आयलो. थंय दोन वर्सां रावतकच कोल्हापूराक ताणें वास्तव्य केलें. कोल्हापूरांत, हिरंभट नांवाच्या ब्राह्मणागेर बिराड करून रावलो. थंय आसतना, बहिणाबाई जयरामस्वामी (वडगांवकर) हाचीं कीर्तनां आयकुपाक वताली. तुकारामाची अभंगवाणी तिणें आयकली आनी ती तुकारामाची भक्ती करपाक लागली. कार्तिक वद्य पंचमीक, आयतार शके १५६९ (इ.स. १६४७) तुकारामान बहिणाबाईक सपनांत दर्शन दिवन गुरूपदेश दिलो. तेन्नासावन तिका घोवाकडल्यान जावपी त्रासूय सोंपलो. उपरांत बहिणाबाई घोवासयत देहूक आयली. थंय तिका तुकारामाचें प्रत्यक्ष दर्शन घडलें. देहूक आसतना तिका काशीबाई आनी विठोबा अशीं दोन भुरगीं जालीं. विठोबा फुडें कवी आनी कीर्तनकार जालो.

बहिणाबाईक तुकारामाच्या आशिर्वादान कवित्त्वस्फूर्ती जाली. तिच्यो सुमार साडेसातशें काव्यरचना आसून त्यो वि. ना. कोल्हारकर हाणें संत 'बहिणाबाईची गाथा' ह्या नांवान उजवाडायल्या. (१९२६). तशेंच, जस्टिन इष्ट्र ॲबट संपादीत महाराष्ट्र कविसंतमालेंत बहिणाबाईच्या मूळ मराठी गाथे वांगडाच तिचो इंग्लीश अणकार दिला. बहिणाबाईन देहूच्या मुक्कामामेरेन आपली आपजीण अभंगरूपान बरयल्या. बहिणाबाईची काव्यशैली सादी, सरळ आशिल्ली. 'संतकृपा जाली, इमारत फळा आली' हो तिचो अभंग खूब नामनेक पावला.

- कों.वि.सं.मं.

## बहुरूपी :

नांवाभाशेन विंगड विंगड तरांचीं संवगां घेवन भेस बदलून लोकांची करमणूक करपी एक जमात. लोकांनी दिल्ल्या द्रव्यांतल्यान ते आपलो निर्वाह चलयतात. चड करून शेत कापणीच्या दिसांनी हे लोक खेड्यापाड्यांनी भोंवतात.

भोवढंगी भेस, भोवढंगी अभिनय आनी भोवंढगी आवाज हीं बहुरूप्याचीं खाशेलपणां. केन्ना गुरवार बायल, केन्ना बाळंटीण तशेंच तिचें रडपी भुरगें अशो तरातरांच्यो भुमिका तो करून दाखयता. तशेंच तो जनावरांचे, शेवण्याचे आवाजय काडून दाखयता. अभिनय आनी पदां हीं बहुरूप्याचे कलेचीं दोन मुखेल आंगां.

बहुरूप्यांच्यो चालीरिती मराठा-कुणब्यांभाशेनूच आसतात. ते बहिरोबा, जानाई-जोखाई, खंडोबा ह्या देवांक भजतात.

समर्थ रामदासस्वामीचें बहुरूपी नांवाचें एक भारूड प्रसिद्द आसा तें अशें-

*खेळतो एकला बहुरूपी रे। पाहतां अत्यंत साक्षपी रे।।धृ।।*
*सोंगें धरितां नानापरी रे। बहुतचि कळाकुसरी रे।।*
*दाखवी अनेक धाता माता रे। बोलतो अभिनव धाता रे।।*
*सदा पडदे लावितसे रे। फौजा सोंगांच्या दावितसे रे।।*
*गातो नाचतो वाजवितो रे। त्यागकरतो. देतो घेतो रे।*
*ऐसा हा भूमंडळी थोडा रे। पाहतां तयासि नाहीं जोडा रे।।*
*अखंड खेळतो प्रगटेना रे। पाहती उदंड तया दिसेना रे।।*
*पाहों जातां अंतचि लागेना रे। दास म्हणे खेळतां भागेना रे।।*

गुजरात, पंजाब ह्या प्रदेशांनीय बहुरूप्यांची वसती आसा. ताचेमदले कांय बहुरूपी ह्या वेवसायाबगर शेतकाम, वेतकाम हेय वेवसाय करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बळी :** सादारणपणान दैवी आनी चड करून अतिमानवी शक्तीक वश करून घेवपाखातीर वा तिणें दिल्ल्या बऱ्या फळाविशीं उपकार मानपाखातीर ते दैवी वा अतिमानवी शक्तीक वस्तू दिवपाची चाल आसा. सजीव वस्तू अशे शक्तीक ओंपतात, तेन्ना ताका बळी दिवप अशें म्हण्टात. बळी ओंपपाची क्रिया ही धर्मीक कर्मकांडाचो एक वांटो. भारतांत प्रचलीत आशिल्ल्या यज्ञ वा कर्मकांडा वेळार यज्ञांत निर्जीव वस्तूची तशेंच सजीव जिवांची आहुती दिताले. सद्या भारतांत थळावे अतिमानवी दैवी शक्तीक कोंबे, बोकडे, रेडे ह्या सारकिल्या सजीव जनावरांचो बळी दिवपाची चाल आसा. पुर्विल्ल्या काळांत मनशांक बळी दिवपाची प्रथा आशिल्ली, अशें कांय धर्मीक ग्रंथांतल्या उल्लेखांवयल्यान समजता.

बळी दिवपाची प्रथा कशी उत्पन्न जाली, हे विशीं अभ्यासकांनी विंगड विंगड उत्पत्त्यो मांडल्यात त्यो अशो - हर्बर्ट स्पॅन्सर हाच्या मतान मेल्ल्या मनशांच्या कबरींनी अन्न उदक दवरपाचे प्रथेंतल्यान देवतांक पदार्थांचो बळी दिवपाची चाल सुरू जाली. ई. बी. टायलर हाच्या मतान, देवांची कृपा प्राप्त करप वा ताचें दुस्मानपण उणें करपाखातीर दिल्ली देणगी, हें बळीचें आर्विल्लें स्वरूप आशिल्लें. विल्यम रॉबर्टसन स्मिथ हाच्या मतान बळीची प्रथा देवक प्रथेंतल्यान निर्माण जाली. देवांच्यो गरजो मनशांभशेनूच आसतात, अशें मानून देवांक पदार्थ ओंपतात, अशें ई. ए. वॅस्टरमार्क हाचें मत. जाची शक्त उणी जाल्या त्या राजाक मारून ताच्या जाग्यार बळिश्ट अशा नव्या राजाक हाडपाच्या यात्वात्मक विधींतल्यान बळीची प्रथा सुरू जाली अशें, जे. जी. फ्रेझर हाचें मत आसा. फ्रॉयड हाच्या मतान बळीची प्रथा म्हळयार पुर्विल्ल्या काळांत घडिल्ले पितृहत्येची पुनरावृत्ती. ताच्या मतान त्या काळांत भुरग्यांनी पितृहत्या केली, पूण उपरांत पश्चात्ताप जावन तांणी पशूबळीच्या रूपांत मेल्ल्या बापायकडेन समेट सादपाचो यत्न केलो.

बळी दिवपाचो पदार्थ हो स्वता देवताच आशिल्ल्यान तो खावप म्हळयार देवतेचें भक्षण करून तिची शक्त प्राप्त करप; बळी म्हळयार जें देवतेकडल्यान मेळळें, तें तिकाच परत करप, बळीक लागून मनशांक देवावांगडा जेवपाक मेळटा, बळीक लागून पिडा करपी देवतेक आपलेपसून पयस दवरपाक मेळटा, बळी म्हळयार देवतेक दिल्ली लांच, बळी म्हळयार देवतेकडेन केल्ली कबलात, अशे बळीविशीं कांय जाणकारांचे विचार आसात.

पुरयत, राजा, जमातीचो मुखेल, कुटुंबाचो मुखेल असो कोणूय बळी दिवपाचो विधी करता. व्यक्ती स्वताचे वतीन स्वताच बळी दिवंक शकता. स्वता देवांनी बळी दिल्ल्याच्योय कांय पुराणकथा मेळटात. आत्मबलिदान हें सगळयांत श्रेश्ठ मानतात. पूण तें दरेकल्याक शक्य नाशिल्ल्यान पर्यायी बळींची प्रथा निर्माण जाली. राजाचे बदलेक राजकुंवराचो, मनशा बदला जनावरांचो बळी दिवपाची प्रथा सुरू जाली.

मनशाक लागपी सगळयो वस्तू देवतेक बळी म्हणून दितात. चड करून रगत, फळां, वस्त्र, भांगराच्यो वस्ती, कड्डुण, शिजयल्लें अन्न, म्होंव, दूद, सोरो, उदक ह्यो वस्तू बळी म्हणून ओंपतात. स्वता देवतेचोय प्रतिकात्मक बळी दितात. देवतेक बळी दिल्लो प्राणी म्हळयार स्वता ती देवताच आसता, अशें एक मत आसा. दुसऱ्या मताप्रमाण तो प्राणी म्हळयार देवतेचो दुस्मान आसता आनी ताका मारून ताचेर सूड घेवप जाता. देखीक-इजिप्तांत दर वर्सा ओसायरिस देवतेखातीर दुकर मारतात. जे. जी. फ्रेझर हाच्या मतान तो दुकर म्हळयार स्वता ओसायरिसूच आसता. कांय जाणांच्या मतान तो ओसायरिसाचो दुस्मान.

पारशी लोकांमदीं विंगड विंगड देवतांक बळीचे विंगड विंगड अवयव ओंपतात. तिबेटांतल्या बौद्ध देवतांक पांच इंद्रीयविशयांचो बळी दितात. त्यो वस्तू अशो - हारसो, संगीतवाद्य, वासाचो पदार्थ, साकरेचे पदार्थ आनी रस्मी वस्त्र. तंत्रीक देवतांक कवटी आनी काळीज, जीब, नाक, दोळे आनी कान हांच्यो प्रतिकात्मक आकृती ओंपतात.

बळी दिवपाचे पद्दतींत, बळी दिवपाचो पदार्थ वेदीचेर दवरप ही मुखेल पद्दत. तशेंच उज्यांत वा उदकांत उडोवप, पुरप, जिवो मारप ह्यो हेर पद्दतीय आसात. कांयकडेन बळी दिवंचेपयलीं, दिक्षा घेवन अवभृथन्हाण घेवंचें पडटा. बळी दितकच आंगाक रगत लावप, जेवप, न्हावप तशेंच गांवांत वा घरांत वचप ना, अशे विधिनिशेधूय आसात.

पर्यायी बळी दिवप आनी देवतेक बळी दिल्लें अन्न लोकांनी खावप, ह्यो गजाली अर्थीक प्रभावाक लागून घडल्यो आसूं येतात, अशें रेमंड फर्थ हाचें मत आसा. समुदायावतीन बलिदान आनी सहभोजन हांचेखातीर जमातीचो एकचार सादता. बलिदानाक लागून दुस्मान काबार जाता, दैवी

बळगें मेळटा आनी तो दैवी संवसारांत प्रवेश करता, ताचें पारलौकिक कल्याण जाता अशें बळीचे उपेग सांगल्यात. तशेंच बलिदानाक लागून देवांकूय बळगें मेळून विश्वव्यवस्थाय बरी उरता, अशें सांगतात.

देवपुजेंतल्या उपचारांकूय बळी म्हण्टात. सोरपाक मारिल्ल्या पातकाक लागून संतत जायना जाल्यार, तें पातक पयस करपाखातीर 'नागबळी' नांवाचो विधी करतात. मेल्ल्या मनशाचो असंतुश्ट आत्मो अपत्यप्राप्तीक प्रतिबंध करता आसल्यार, 'नारायणबळी' हो विधी हिंदूधर्मांत करतात. चीनांत भौशीक बळी दिवप, हें राजाचें कर्तव्य मानतात. इजिप्तांत बळी हो होरस ह्या देवाचो दोळो मानतात.

**बक्रईद** : हो इस्लामी सण म्हळयार पशूबळी दिवपाचो दीस. हाजयात्रे वेळार पशूबळी दिवपाची प्रथा इस्लामांत आसा. बॅबिलोनिया आनी इजिप्तांत जित्या राजांचें दैवतीकरण करून तांचेखातीर बळी दितात. पेरू आनी मॅक्सिकोंतले लोक कान, नाक अशा अवयवांतल्यान रगत काडून तें देवतेक ओपतात. दुसऱ्याच्या हिताखातीर स्वता बलिदान केल्ल्याचींय उदाहरणां मेळटात. अस्तंत आफ्रिकेंतल्या कांय जमातींनी आपलीं पातकां निवळावपाखातीर एका जनावराचो बळी दिवपाची प्रथा आसा. जनावराक मारतकच ताचे निमाणे संस्कार करतात. उपरांत गुन्यांवकारी मेलो आनी निश्पाप मनीस जितो आसा, अशें मानतात.

रगताचे आनी बिगररगताचे अशे बळीचे दोन मुखेल प्रकार आसतात. रगत, जनावरां, उदक, दूद, सोरो, फळां, अन्न ह्या देवाक बळी दिवपाच्या वस्तूंभितर जनावरां, मनीस, शेवणीं हे रगताचे बळी. अशेच हे धर्मीक श्रद्धेंतल्यान वा जादूटोण्याच्या हेतान मनशान, मनशांचे केल्ले हत्येक 'नरमेध' अशें म्हण्टात.

**नरमेध** : मानवी रगत हें सगळयांत पवित्र आनी बळिश्ट आशिल्ल्यान, मनशाचो बळी हो सगळयांत श्रेश्ठ बळी मानताले. 'मेध' ह्या संस्कृत धातूचो अर्थ 'हत्या करप' असो आसा. विंगड विंगड उद्देशांनी मनशाची हत्या जाता. राग, दुस्वास, सूड हांकां लागून जाल्लो खून, गुन्यांवकारांक जाल्ली मरणाची ख्यास्त, झुजांतलें हत्याकांड हांकां नरमेध म्हणूंक येना. पूण त्याच हत्यांक धर्मीक स्वरूप दिल्यार तो नरमेध थरता. मूळ पुर्विल्ल्या मॅक्सिकी लोकांनी गुन्यांवकारांक दिवपाच्या सगळया तरांच्या देहान्त ख्यास्तींक नरमेधाचें स्वरूप दिल्लें. भुरग्यांच्या रगतांत न्हाण घेतल्यार कुश्ठरोग बरो जाता, हे समजुतीन कांय कडेन हत्या जाता. अशे हत्येक नरमेध म्हणचो काय ना हेविशीं वाद आसात.

नरमेधाफाटलो मुखेल उद्देश म्हळयार देवता आनी मनीस हांचेमदलें नातें घट करप वा पातकांक लागून तें पुराय नश्ट जाल्लें आसल्यार देवतेचो राग पयस करून तें परतून घट करप वा देवता जावं हेर पिशाच्चांक संतुश्ट करप वा मध्य नर हो जेन्ना राजा, मुखेल अशे तरेचो श्रेश्ठ मनीस आसता तेन्ना ताचे भितरली शक्त मेळची म्हणून नरमेध करतात. देवतांभितर ग्रामदेवता, जलदेवता, वृक्षदेवता, कृषिदेवता, भूमिदेवता हांकां चड करून बळी दितात. पिशाच्च, दुश्ट शक्त, मेल्ल्या मनशांक, स्वताची तलवार हांकां नरबळी दितात. दुकळ, धामीची पिडा, झूज हीं संकश्टां पयसावपाखातीर लेगीत नरबळी दिताले. खाजगी वा भौशीक पातकांक लागून प्रायश्चीत्त घेवप, आंगवण पावोवप, जैत मनोवप, भूतबाधा निवळावप, पावित्र्य निर्माण करप, दुश्ट शक्तीक धांवडावप, बांयक वा तळयेक उदक हाडप, अशा कितल्याशाच उद्देशांनी नरमेध करताले.

मनशाच्या अवयवांनी खांशेली शक्त आसता. नरबळीक लागून भविश्य समजता वा अधोलोकांतल्या शक्तींचो आदार मेळटा. अशा समजुतींक लागून नरबळी दिवपाची रोमी लोकांची पद्दत जादू टोण्याभाशेन आशिल्ली.

देवाक प्रसन्न करून घेवपापासत सगळयांच्या आवडीच्या अशा निर्दोश आनी बऱ्या मनशाचोच बळी दिताले. स्वता, स्वताचो पूत, पयलें भुरगें, राजा, पुरयत, सरदार, सोबीत तरणाटी, तरणाटो, हेर म्हत्वाची व्यक्ती हांकां मेध्य म्हणून वेंचून काडटाले. तेखातीर पिडेस्त, वांझ बायल हांकां बळी दिवंचे न्हय अशें मत आशिल्लें. ल्हान भुरग्यांक मात व्हड प्रमाणाचेर बळी दिताले. केन्नाकेन्नाय जोडप्याचोय बळी दिताले.

मेध्य हो प्रत्यक्ष देव वा देवाचो प्रतिनिधी अशें मानलां. शतपथ ब्राह्मणांत मेध्य नर म्हळयार नारायण अशें म्हळां. देवाभाशेन मेध्याची पुजा जाताली. मेध्य म्हणून वेंचून काडटकच कांय विशिश्ट दीस, म्हयने वा वर्सांउपरांत ताचो बळी दिताले. ह्या काळांत ताका सगळयो सूख-सुविधा मेळटाल्यो. हो नरमेधाचो काळ व्हडलो उत्सव असो मानून नाच-पदां चलतालीं. बळीक सजोवन, मारपाचे सुवातेर व्हरताले. कांय खेपे थंय पयलीं द्वंद्व जावन बळी जिखल्यार तो सुट्टालो. पूण हरशीं तो पळून वचचो न्हय म्हणून ताचे भोंवतणीं रक्षक आसताले. खोंड नांवाच्या आदिवासी लोकांभितर मेध्याक तेल-तूप लावन ताच्या आंगार गुलाल, फुलां उडोवपाची चाल आसा. बळीच्या आंगावयलो केंस, फुलाची पाकळी वा गुलाल शूभ मानून तो मेळोवपाखातीर लोकांची झुंडी पडटाली. बळीचें तोंड उदेंतेक आनी बळी दिवपी मनशाचें उत्तरेक आसतालें. बळीक नमस्कार करून, ताच्या मस्तकाचेर फूल, उदक घालून मंत्र म्हणून ताचो शिंरच्छेद करताले. उपरांत ताचें मुंडकें आनी रगत हांचेसयत देवतेची पुजा जाताली.

कांय नरमेध तितलेपुरते आसताले. देखीक-दुकळ पयस करपाखातीर केल्लो नरमेध, दीसपट्टो, सप्तकी, म्हयनाळो, वर्सुकी आनी दर तीन, आठ, णव, बारा वर्सांनी नेमान जावपी नरमेधूय आसताले. तंजावराक दर शुक्रारा कालीमुखार बळी दिताले. दर णव वर्सांनी एक, अशे तरेन आपल्या णवूय भुरग्यांक बळी दिवपी एका ट्युटॉनिक राजाची नामनेची कथा आसा. नव्या वर्सा दिसा, पेरणी, सुगी, गिराणां, खाशेलो ग्रहयोग, जल्म, लग्न, मरण, राज्याभिशेक ह्या प्रसंगांचेर नरमेध करताले.

मेल्ल्या मनशाक ताच्या मरणा उपरांत वांगड जाय म्हणून मेल्लो राजा वा सरदार हांचेवांगडा तांच्यो बायलो, गुलाम आनी सेवक हांकां पुरपाची वा तांणीच आत्महत्या करपाची चाल चीन, जपान, कोरियेंत आशिल्ली. भारत आनी हेर देशांतली सतीची चाल हे समजुतींतल्यानूच आयली आसुंये. दुकळ पडल्यार ताका राजा जबाबदार म्हणून राजाकूच बळी दिवपाची चाल आशिल्ली.

मेध्य पुरूष ही धान्यदेवता आसून तिचो बळी दिल्यार बरें पीक येता अशें मानताले. मॅक्झिकन लोक मको पेरतना ल्हान भुरग्याचो, मको आंकुरतकच मात्सो व्हडलो भुरगो, ह्या क्रमान तो तयार जातकच जाण्ट्या मनशाचो बळी दिताले.

चीनांतले व्हडले वण्टीपोंदा नरबळी दिताले अशें म्हण्टात. उदकांतल्यो देवता खाशेल्या काळा उपरांत नरबळी घेतात. नरबळीच्या रगतान वांझ बायलेक न्हाण घाल्यार तिका भुरगीं जातात असोय समज आसा. पुर्विल्ले मॅक्झिको लोक भांगराच्या कुलेरान मासाचो कुडको मूर्तीच्या तोंडांत दवरताले. पूण मॅक्झिको, पेरू, भारतांत मेध्याचें मास खावपाचीय चाल आशिल्ली. झीलंडांतल्या एका मंदिरांत दर णव वर्सांनी ९९ मनीस, ९९ घोडे, ९९ सुणे आनी ९९ कोंबे बळी दिवपाचे प्रथेंत संख्येचें म्हत्व दिसता.

भारतांत ऋग्वेदांतलें पुरूषसूक्त, तैत्तिरीय, शतपथ, ऐतरेय हीं ब्राह्मणां, वैतान आनी शांखायन श्रौतसूत्रां, कथासरित्सागर, महाभारत, द्रोणसख जातक, कालिकापुराण, हेर पुराणां हातूंत पुरूषमेधाचे उल्लेख मेळटात. शुक्ल यजुर्वेद संहितेंत ब्रह्मदेवतेक ब्राह्मण, क्षत्रदेवतेक क्षत्रिय अशे बळी दिवंचे अशें म्हळां. वर्चस्व, सामर्थ्य आनी समृद्धी हांचेखातीर पुरूषमेध करताले. पुरूषमेध पांच दीस चलिल्ल्यान ताका पंचरात्र यज्ञक्रतू म्हण्टाले. चारूय वर्णांतले लोक यज्ञ माटवांत हाडून तांचें पुरूषसूक्तांत स्तवन करताले. विशिश्ट विधी उपरांत खांब्यांक बांदिल्ल्या पुरसांक देवाक ओंपून मारताले वा तांकां सोडून दिताले. अश्वमेधांत लेगीत एक नरबळी दिताले, अशें समजता.

पुर्विल्ल्या काळासावन नरमेधाक विरोधूय जाला. देशोदेशींच्या सत्प्रवृत्त राजांनी पुर्विल्ल्या काळांतूच नरमेधाक बंदी घाल्ली. भारतांत ब्रिटीश सरकारान नरमेध बंद केलो. ह्या विरोधाक लागून हो नरमेध गुपीत रितीन जावपाक लागलो. कांय खेपे समाज हिताखातीर कोणूय व्यक्ती स्वताचे इत्सेन आत्मबलिदान करपाक तयार जाताली. जेजू ख्रिस्तान मानव जातीच्या कल्याणाखातीर स्वताचे इत्सेन बलिदान केलें, अशें क्रिस्तांव लोक मानतात. केन्ना विकते घेवन वा खंयचेय जमातीक कांय सवलती दिवन बळी मेळयताले. गुन्यांवकारी आनी गुलाम हांकां बळी दितना तांचे संमतीचो प्रस्नूच येनाशिल्लो. सामान्य लोक, बायलो, भुरगीं हांकां बळजबरेन बळी दिताले. उबारून हाडप वा भोंवडेकाराक धरप असलेय प्रकार चलताले. माया, मॅक्झिकन हे लोक बळी मेळोवपाखातीर परतून परतून झुजां करताले. बळी दिवपाखातीर भौशीक वर्गणेंतल्यान कांय लोक सांबाळिल्ल्याचीं उदाहरणां आसात. कांय राजांक विशिश्ट मुदती उपरांत बळी दिवपाचे अटीचेर राजपद मेळटालें. कांय फावटीं विशिश्ट पद्दतीन नशीब आजमावन बळी वेंचताले.

पुर्विल्लें साहित्य, पुराणकथा, लोककथा हातूंत लेगीत नरमेधांचीं उदाहरणां मेळटात. देखीक - एका राकेसाक नेमान एके आंकवार चलयेचो बळी दिवंचो, ह्या क्रमान राजकन्येचेर ती वेळ आयली, तेन्ना नायकान राकेसाक मारून तिका वांचयली. ह्या अर्थाची कथा जपान, स्कॉटलँड, स्कँडिनेव्हिया ह्या देशांनी मेळटा.

नरमेधांतल्या वायट कर्माची जाणविकाय जातकच तशेंच स्वताचो आनी आपल्या मनशाचो बळी वचचो न्हय अशें दिसूंक लागतकच नरबळीक पर्याय मेळूंक लागले. पुरूस ह्या पयल्या मेध्यांतले मेध क्रमान बैल, मेंढो, भूंय आनी तांदूळ हातूंत रिगलो आनी थंयच उरलो ही ऐतरेय ब्राह्मणांतली कथा ह्या पर्यायांचो इतिहास सांगता. स्वताबदला, आपल्या पुताक बळी दिवप हो पयलो पर्याय. स्वताचो प्रतिनिधी, विकती घेतिल्ली वा ल्हान व्यक्ती, जनावरां अशे पर्याय मेळळे. तण, मेण, धातू, पीठ, लांकूड, माती हांच्यो मानवी मूर्ती करून बळी दिवंक लागले. बळीक प्रत्यक्ष मारिनासतना मारपाचो अभिनय करून ताका सोडून दिवप, शिमेभायरो करप, खंयचोय अवयव तोडप, चड करून दादल्याचें वा बायलेचें चारित्र्य नश्ट करून तांची जीण नाउमेद करप अशेय पर्याय मेळळे.

चाबकान फटके मारप, जनावराक मेध्याचो भेस घालून त्या जनावराक मारप, विंयेल्ले गायक बाळंटीण बायल मानून तिच्या पाडकाचो बळी दिवप अशे प्रकार पुर्विल्ल्या ग्रीसी लोकांमदीं मेळटात. रक्ताळिल्ल्या सुरयांनी दोन तरणाट्यांच्या भुवयांचेर रेगो काडून उपरांत त्यो पुसून काडप ही रोमी पद्दत आशिल्ली. सद्या ही नरमेधाची चाल सोंपून तिका प्रतिकात्मक स्वरूप आयलां.

तत्त्वीक, समाजीक, राश्ट्रीय, धर्मीक कारणांखातीर आत्मबलीदान करपाची चाल आसा.

गोंयांत, एक आंगवण म्हणून, विशेश करून दसऱ्याक, थरावीक देवळांमुखावयले वेदीर पशू बळी दिवपाची चाल आसा. कोंबे आनी बोकडे ह्या जनावरांचो बळी दिवप जाता. कांय कडेन रेड्याचो बळी दिवपाची एका काळार प्रथा आशिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**बँको आनी बँकींग :** लोकांकडल्यान बचतीच्या रुपांत आयिल्ले पयशे वा तत्सम धन एकठांय करप आनी गरजेवंतांक तें रिणाच्या रुपांत दिवप ह्या वेव्हाराक बँकींग अशें म्हण्टात आनी हो वेव्हार करपी संस्थेक बँक म्हण्टात. ह्या वेव्हारांत बचत करतल्याक मूळ रकमेवांगडाच एका थरावीक दरांत कळंतर (Interest) मेळटा आनी रीण घेतल्याक मूळ रिणाचे रकमेवांगडाच कळंतर भरचें पडटा. रीण फारीक करतना भरपाचो कळंतराचो दर हो सदांच बचतीचेर मेळपाच्या कळंतराच्या दरापरस चड आसता. दोनय दरांमदलो फरक हो बँकेचो फायदो (जोड) आसता. आदल्या काळांत पयशांच्या वेव्हारांत परिणामकारक प्रभाव आशिल्ल्या सावकारी वा सराफी वेवसायांत बँकींगचें मूळ सांपडटा.

इ.स. चे पयलीं २००० वर्सां कर्ज वेव्हार चलताले, हाचे उल्लेख मेळटात. इ.स.प. सव्या शेंकड्यांत बॅबिलॉन हांगा 'इगिबी बँक' प्रसिद्द आशिल्ली. ग्रीस हांगा इ.स.प. चवथ्या शेंकड्यांत देवस्थानां, भौशिक संस्था आनीं खाजगी संस्था वित्तीय वेवसाय करताल्यो. लोकांचे पयशे जमोवन दवरप, रिण दिवप, नाण्यांचो कस पळोवप, सराफी तशेंच शारां शारांभितर भांगर, रूपें आनी नाणी हांची सदली-बदली (हाड-व्हर) जावची न्हय म्हूण पतवेव्हार करप हें त्या वेळार खाजगी संस्थांचें मुखेल काम आशिल्लें. उपरांत रोमन कायद्यान बँकेंत पयशे साठोवन दवरून कर्जाची परतफेड करपाक मान्यताय दिल्ली. ह्या वेव्हाराची नोंद करपाखातीर खाशेले अधिकारी नेमिल्ले. मध्ययुगीन काळांत बँकींग पद्दतीचो उदय बाराव्या शेंकड्यांत इटली हांगाच्या जेनोआ सारकिल्ल्या व्हड व्हड शारांनी जाल्लो. बँकम (Bancum) ह्या बांकाभशेन आशिल्ल्या मेजाफाटल्यान बसून तेन्नाचो बँकर बँकिंगाविशींचे वेव्हार करतालो. हाका लागून बँकर हो शब्द आयला आसूये.

चवदाव्या शेंकड्यांत इटली हांगाच्या मुखेल शारांनी तशेंच ब्रूझ, अँटवर्प आनी हॅन्सिॲटिक समुहाच्या हेर शारांनी व्हड व्हड वखारी आनी शारां पुरत्यो बँको आशिल्ल्यो. ह्याच तेंपार युरोपांत बँकेंत दवरिल्ले पयशे रिण म्हूण घेवचे आसल्यार रिण घेवप्यान साथीदारांच्या मुखार तोंडी आदेश दिवंचो पडटालो. उपरांत ह्या वेव्हाराखातीर हातान बरयल्लो आदेश चालींत आयलो. परकीय वेपार जसो वाडपाक लागलो आनी धन वा पयशे एका प्रदेशासावन दुसऱ्या प्रदेशांत व्हरपाची गरज पडपाक लागली, तेन्ना 'हुंडी' हो प्रकार चालींत आयलो. अठराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन उद्देगीक क्रांतीच्या परिणामाक लागून पुराय युरोपांत वेपार भरभराटीक आयिल्ल्यान हांगा नव्यो नव्यो साबार वेपारी बँको उदयाक आयल्यो.

भारतांत बँकिंगाचें मूळ पुर्विल्ल्या काळासावन चलत आयिल्ली सावकारी आनी नाण्यांची सदली-बदली (हाड-व्हर) तशेंच सराफी ह्या वेवसायांत दिश्टी पडटा. उपरांत ह्या वेवसायांतल्यान हांगा पतपेढी (Indigeneous Bank) हिची निर्मिती जाली. ह्यो पतपेढयो अस्तंत पद्दतीच्यो बँको भारतांत येयसर भारतीय लोकांचें बँकींग वेव्हाराचें एकमेव साधन आशिल्लें. मनुस्मृती हातूंत आनी कौटिल्य हाच्या अर्थशास्त्रावयल्यान हांगा रिण दिवपाची वा घेवपाची तशेंच सावकारी पद्दत आशिल्ली, हांचे पुरावे मेळटात. मध्ययुगांत मोगल सम्राटांनी धनी, महाजन आनी सावकार हांकां कर वसूल करपाचे अधिकार दिल्ले आनी तांकां विंगड विंगड प्रदेशांनी कोशाध्यक्ष म्हूण नेमिल्ले. लोक आपली रक्कम (deposit) ह्या महाजनांकडेन पुंजायताले. ह्या पयशांचेर तांकां व्याज मेळटालें. गरजेप्रमाण कांय लोक तांचे कडल्यान रिणूय घेताले, जाचेर तांकां व्याज फारिक करचें पडटालें. हे तरेन आधुनिक बँको अस्तित्वांत येवचे पयलीं महाजनूच बँकींगाचें काम करताले.

ब्रिटिशांची राजवट भारतांत आयले उपरांत तांणी आपल्या वेपारी आनी हेर गरजो भागोवपाखातीर 'एजेंसी घर' आनी 'जॉयन्ट स्टॉक बँक' हांची थापणूक केल्ली. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक इंग्लंड हांगाचे उद्देगीक क्रांतिच्या परिणामांक लागून वेपारांत खूब वाड जाल्ली. हाका लागून थंय साबार नव्यो नव्यो वेपारी बँको उदयाक आयिल्ल्यो. भारतांत लेगीत १८०६ त 'बँक ऑफ कलकत्ता' ची थापणूक जाली. उपरांत १८४० त 'बँक ऑफ बाम्बे' आनी १८४३ त 'बँक ऑफ मद्रास' हांची थापणूक जाली. ह्यो बँको पुरायपणान परदेशी भांडवलाचेर उबारिल्ल्यो. ह्याच तेंपार १८४४ त बँक चार्टर एक्ट पास जावन इंग्लंड हांगा 'बँक ऑफ इंग्लंड' ची थापणूक केल्ली.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक सावन वेवसायीक बँकांचो आंकडो वाडत गेलो. 'बँक ऑफ इंडिया', 'सेंट्रल बँक ऑफ इंडिया', 'बँक ऑफ बडौदा' आनी हेर प्रसिद्द बँकांची १९०६ ते १९१३ ह्या काळांत थापणूक जाली. पूण पयल्या म्हाझुजाच्या तेंपार बँकांचेर आपत्ती येवन भारतांतल्या सुमार ९० बँकांनी आपलो वेवसाय बंद केलो. म्हाझुजाउपरांत बँकांचे स्थितींत परत सुदारणा जावपाक लागली. १९२१ त भारतांतल्यो तिनूय प्रेसिडेंसी बँको एकठांय हाडून 'इंपॅरियल बँक ऑफ इंडिया' तयार केली. ही एक सरकारी बँक आशिल्ली. पूण ती लोकांकडेनूय वेव्हार करताली. १ एप्रिल १९३५ दिसा भारतांत 'रिझर्व बँक ऑफ इंडिया' हाची थापणूक जाली. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या तेंपार आनी उपरांत भारतांत साबार बँको उक्त्यो जाल्यो. भारताची 'युनायटेड कमर्शियल बँक' ह्याच तेंपार उबरिल्ली. म्हाझूज सोंपले उपरांत बँकींग वेवसायाक थोडी देंवती कळां लागली. बँकिंग वेवसायांत सुदारणा जावची म्हूण बँकींग कांयद्यांचो रितसर अभ्यास करून नवे कायदे तयार केले. भारताचो बँकींग रेग्युलेशन कायदो १९४९ त पास जालो. ह्याच वर्सा 'भारतीय रिझर्व बँक' आनी १९५५ त 'इंपॅरियल बँक ऑफ इंडिया' हांचें राश्ट्रीयकरण जालें.

भारतांत १९५० मेरेन बँकींग वेव्हार ल्हान ल्हान बँकांवरवींच चलतालो. भारत हो मुखेलपणान शेतवडीचेर आदारिल्लो देश आशिल्ल्यान, हांगाची अर्थवेवस्था आनी समाजीक परिस्थिती गांवगिऱ्या वाठारांचेरूच

आदारील्ली आसा. मागाशिल्ली येरादारी, निरक्षरता, वेगळयो वेगळयो भासो आनी जाती-पातीचो भेद हाकालागून बँकांचें एकात्मीकरण करपाक खूब आडमेळीं आयलीं. भारतांत स्वातंत्र्य मेळळया उपरांत लेगीत कांय तेंप मेरेन हांगा बँकींग आनी पयशे दिवपा घेवपाच्या हेर प्रकारांचेर सावकार आनी पतपेढी हांचो शेक चलतालो. आयज तांचो शेक खूब कमी जाल्लो आसा. सावकार आनी पतपेढी ह्या चालू खात्याचेर लोकांचे पयशे (deposit) घेताले, लोकांक रिणां दिताले आनी हेर वावरूय करताले. तांचे दिवपा घेवपाचे नेमूय सादे आशिल्ले. हालींच्या तेंपार मेरेन ते हुंडी (a credit instrument in the form of a promissory note) हे पद्दतीचो वापर करताले. पूण ह्या रिणांचेर लोकांक खूब व्याज फारिक करचें पडटालें. हाका लागून भारत सरकारान 'ग्रामीण सहकारी बँक' हांचें पुराय भारतभर जाळें पातळावपाचो जोखमीचो वावर हातांत घेतलो. ह्या यत्नांक लागून सावकारी खूब कमी जाली. ज्या वाठारांनी बँकांची उणीव आसा आनी थंय खऱ्यानीच बँकेची गरज आसा, अशा वाठारांनी बँकांचे नवे फांटे उक्ते करून, भारतांतल्या सगळया प्रदेशांतल्यो रिणाविशींच्यो गरजो पुराय करून आनी तेचपरी देशभर शिंवरून पडिल्ली संपत्ती केंद्रीत करून देशांतल्या उत्पादन कार्याक लावन विकास घडोवन हाडप हो भारत सरकाराचो मुखेल हेत जावन आसा.

**बँकांचो वावर :** बँकांचो वावर सादारणपणान चार वर्गांनी वांटून घाला. १) लोकांचे पयशे घेवन साठोवन दवरप, २) लोकांक रिणां दिवप, ३) गिरायकां खातीर एजंट जावन वावर करप आनी ४) हेर विंगड विंगड कामां करप.

लोकांचे पयशे घेवन सांठोवन दवरपाखातीर बँकेंत तीन प्रकाराचीं खातीं आसतात- १) चालू खातें, २) थीरखातें आनी, ३) बचत खातें. चालू खात्यांत केन्नाय पयशे दवरपाक आनी काडपाक मेळटात. गिरायकांनी मागणी करतकूच ह्या खात्यांतले पयशे परत करपाची जापसालदारकी बँकेची आसता. खातें चालू दवरपाखातीर थोडेतरी पयशे खात्यांत दवरचे पडटात. गिरायकांक आपलो वेव्हार बँकांवरवीं सहजपणान करूंक मेळचो, हो ह्या खात्याचो मुखेल उद्देश आसा. थीर खात्यांत थरावीक रक्कम थरावीक तेंपाखातीर दवरतात. ही रक्कम तेंप सोंपचे पयलीं काडूंक मेळना. जो कोण आपल्या थीर खात्यांतल्यान पयशे तो तेंप काबार जावचे पयलीं काडूंक सोदता, ताका त्या पयशांचेर खाशेल्या दरान व्याज मेळना. ह्या खात्याचेर हेर खात्यांचेर मेळपी व्याजापरस चड व्याज आसता. बचत खात्यांत खातें उगडपाखातीर साप कमी पयशे लागता. ह्या खात्यांत पयशे कितलेय खेपो भरपाक मेळटात. पूण जाय तेन्ना आनी मर्यादि भायर काडूंक मेळना. ज्या लोकांचें उत्पन्न उणें आसता, त्या लोकांक बचत करपाची सवंय जावची हो ह्या खात्याचो उद्देश आसा. तेभायर प्रसंगीक आनी विशिश्ट हेत दवरून केल्ली मासिक येणावळ, पेन्शन येणावळ, शिक्षण आदार, लग्न आदार अशींय ब॑ खातीं आसात.

रीण दिवप हो बँकेचो दुसरो म्हत्वाचो वावर. बँक आपल्या गिरायकांक (मनीस आनी संस्थांक) वेवसाय, घरबांदावळ, वाहन खरेदी, शिक्षण आनी हेर उत्पादन कार्याखातीर रीण दिता. रीण दिता आसतना बँक रीणकाराच्या नांवार खातें उगडटा आनी ताचेर रिणाचे पयशे जमा करता. उपरांत रिणकारी आपले गरजेप्रमाण चेकांवरवीं पयशे काडूंक शकता. रीण दिवचे पयलीं बँक रिणाचो हेतू कितें? रीणकाऱ्याक हें रीण फारीक करपाची आस्पत आसा कांय ना? ह्या सगळया गजालींचो विचार करता. विस्वासांतल्या मनशांक ल्हान रीण रोकडेंच मेळटा. पूण व्हड रिणां मालमत्तेच्या आदाराचेरूच दितात. रीण दिता आसतना बँक आनी रीणकार हांचेभितर कायदेशीर कबलात जाता. रीणाच्यो सगळयो अटी ते कबलातींत बरयल्ल्यो आसतात. अशा रिणांचे तीन प्रकार आसात. १) सर्वसादारण रीण २) पतरीण वा तारण रीण आनी ३) अधिकर्ष (overdraft) रीण.

बँक आपल्या गिरायकांखातीर एजंसीचेंय काम करता. गिरायक विकप्याकडच्यान उदार म्हाल घेता तेन्ना, विकपी गिरायकाच्या नांवान 'म्हालाची अमूक किंमत अमूक दिसांभितर आपल्याक दिवंची' अशी हुंडी काडटा. विकप्याक हुंडीची मुदत काबार जायमेरेन पयशांखातीर रावप शक्य ना जाल्यार तो बँकेकडेन हुंडीच्या बदलाक पयशे दिवपाची मागणी करता. हुंडी योग्य आनी हुंडीचे पयशे मुदतीउपरांत वसुल जावपाची खात्री आसत जाल्यार बँक व्याजाचे पयशे कापून उरिल्ली रक्कम हुंडीधारकाचे सुवादीन करता. बँक गिरायकांची एजंसी म्हण काम करतना, गिरायकांचे चेक, ड्राफ्ट, हुंडी आनी हेर प्रतिज्ञापत्रांचे पयशे वसूल करता. एके सुवातेसावन दुसरे सुवातेर पयशे धाडपाचेंय काम ती करता.

गिरायकाक परदेशी चलन मेळोवन दिवप, कर्जरोखे विकपाखातीर हमीदार, संस्था म्हूण काम करप, गिरायकांच्यो मोलादीक वस्तू सुरक्षित दवरप, वेपार आनी उद्देगधंदे हांची म्हायती एकठांय करून ती गिरायकाक सांगप, भोंवडेकारांखातीर 'ट्रॅव्हलर्स चेक' मेळोवन दिवप हीं कामांय बँक करता.

**बँकांचें वर्गीकरण :** संवसारांतल्या सगळया बँकींग पद्दतिची धर्ती एक सारकी आसा. पूण विंगड विंगड देशांतल्या बँकांच्या वेव्हरांत फरक दिश्टी पडटा. बँकांची मालकी, बँकांचें स्थान, बँकांचें कार्य आनी हेर आदाराचेर बँकांचें वर्गीकरण करूं येता. पूण बँकांच्या कार्याप्रमाण तांचें वर्गीकरण करप योग्य थारता. एकूच बँक विंगड विंगड प्रकारांचीं कार्यां करूंक शकता. हाका लागून बँकेच्या मुखेल कार्याच्या आदारार तांचें वर्गीकरण करचें पडटा.

सादारणपणान बँकांच्या कार्याप्रमाण तांचें वर्गीकरण अशें करूं येता. १) वेपारी बँको, २) शेतकी बँको, ३) सहकारी बँको, ४) भूंयविकास

बँको, ५) ग्रामिण बँको, ६) बचत बँको, ७) उद्देगीक बँको, ८) विनिमय बँको.

बँकाच्या सगळ्या प्रकारांत 'वेपारी बँक' हो प्रकार सगळ्यांत पोरनो आसा. वेपारी बँको ह्यो मुखेलपणान वेपारी संस्थांक अर्थीक आदार दितात. ह्यो बँको लोकांकडच्यान वेगळ्या वेगळ्या रुपांत पयशे घेवन ते सुरक्षितपणान सांठोवन दवरपाची हमी दितात. हे पयशे सादारणपणान मागणी करतकूच परत दिवपाचे आसतात. कांय रक्कम तांचो खाशेलो तेप सोंपतकूच परत करपाची आसता. ह्यो बँको, आपली पूंजी आनी हेरांनी सांठोवन दवरिल्ले पयशे गरज आशिल्ल्यांक रिण म्हूण दितात वा गुंतवणूक करपाक वापरतात. पूण गिरायकांनी मागणी करतकूच तांचे पयशे व्याजासकट तांकां दिवंचे पडटात. हाका लागून रीणां दितना वा गुंतवणूक करतना बँक फकत अल्प मुदती खातीर रिणां दिता. वेपाराखातीर लागपी पयसो हो सादारणपणान कांय तेपाखातीरूच आशिल्ल्यान वेपारी संस्थांचे नदरेन ह्यो बँको खूब फायदेशीर थरतात.

भारतासारकिल्ल्या ज्या देशांची अर्थीक स्थिती शेतवडीचेर आदारिल्ली आसता. थंय शेतकी बँकांची खूब गरज आसता. शेतवडीच्या वेगवेगळ्या कामांखातीर शेतकामत्यांक आदार दिवप हें शेतकी बँकांचें मुखेल काम. सारें, बीं, शेतवडीचीं अवजारां आनी हेर वस्तू विकत्यो घेवपाखातीर बँको शेतकामत्यांक रिणां दितात.

हालींच्या तेंपार चडशा सगळ्या वाठारांनी सहकारी (Co-operative) बँको दिश्टी पडटात. ह्यो बँको सहकाराच्या तत्त्वांचेर संघटीत केल्ल्यो आसतात. आपल्या सदस्यांच्यो अडचणी पयस करप, तांकां अर्थीक आदार दिवप हो ह्या बँकांचो मुखेल वावर. सहकारी बँको चडकरून गांवगिऱ्या वाठारांनी वावुरतात. व्हड कराखाने, सरकारी कचेरी ह्या सारकिल्ल्या सुवातींनी कामगारांच्यो सहकारी पतसंस्था आसतात. भूंयविकास बँको ह्यो शेतकामत्यांक जमनीच्या आदाराचेर चड मुदतिचीं रिणां दितात. नव्यो जमनी विकत्यो घेवप, बांय खणप, बांद घालप तशेंच ट्रॅक्टर आनी हेर अवजारां विकतीं घेवपाक हीं रिणां दितात. गांवगिऱ्या वाठारांनी उदरगत घडोवन हाडपाखातीर ग्रामीण बँकांची थापणूक करतात. ह्यो बँको शेतकामत्यांक हेर कारागिरांक तशेंच कुटीरोद्देग आनी लघुउद्देग हांकांय रिणां दितात. उणें उत्पन्न मेळपी लोकांक बचत आनी काटकसर करपाची संवय जावंची म्हूण बचत बँकांची थापणूक करतात. तेच परी देशाचो उद्देगीक विकास घडोवन हाडपाखातीर उद्देगीक बँकांचो खूब उपेग जाता. भारतांत उद्देगधंद्याक आदार दिवपाखातीर उद्देगीक अर्थपुरवण म्हामंडळ हांची थापणूक केल्ली आसा. परदेशी चलनाचो वेव्हार विनिमय बँको पळयतात.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या तेंपार साबार राश्ट्रांक आंतरराश्ट्रीय थरांचेर अर्थीक वेपारांत खूब वायट परिणाम सोंसचे पडले. हाका लागून आंतरराश्ट्रीय चलन सहकार्य, विदेशी वेपाराचो विस्तार आनी आंतरराश्ट्रीय रिणांचो रितसर उपेग करपाखातीर आंतरराश्ट्रीय संस्थेची गरज भासपाक लागली. १ मार्च १९४७ दिसा 'आंतरराश्ट्रीय चलन निधी' हाची थापणूक केली आनी उपरांत 'जागतिक बँक' (World Bank) हे बँकेची थापणूक जाली. जागतिक बँक ही आंतरराश्ट्रीय चलन निधी हाची पूरक संस्था म्हूण कार्य करता. सदस्य राश्ट्रांच्या पुनर्रचणूक कार्याक आनी अर्थीक विकासाक आदार करप, भांडवलाचो आंतरराश्ट्रीय गुंतवणुकेक फावो तें वातावरण निर्माण करप, खूब तेंपमेरेन आंतरराश्ट्रीय वेपाराक प्रोत्साहन दिवप आनी सदस्य राश्ट्रांभितर शांततायेन अर्थवेवस्था स्थापन करपाचे नदरेन फावो तें वातावरण निर्माण करप हो हे बँकेचो मुखेल वावर. आशियाई विकास बँक ही आशियाई राश्ट्रांक आदार दिता. विकसनशील सदस्य राश्ट्रांक रिणां दिवप, तंत्रीक आदार दिवप, तेचपरी अर्थीक विकास आनी सहकार्य निर्माण करप हे तिचें मुखेल कार्य आसा.

एकावयवी बँकींग, शाखा बँकिंग, समूह बँकींग आनी साखळी बँकींग हे बँकींग रचणुकेचे मुखेल प्रकार आसात.

एकावयवी बँकींग पद्दतींत बँकेचें एकूच कार्यालय आसता. हें कार्यालय बँकेचीं सगळीं कामां करता. शाखा बँकींग पद्दतींत बँकेचें एक मुखेल कार्यालय आसता आनी हेर कडेन तिचे साबार फांटे आसतात. समूह बँकींग पद्दतीक 'गट बँकींग' अशेंय म्हण्टात. हे पद्दतींत एक धारक कंपनीची थापणूक करता. ही कंपनी कांय बँकांचे भाग विकते घेवन त्या बँकांचे भागेली जातात. अशे तरेन धारक कंपनी ह्या बँकांचेर नियंत्रण दवरूंक शकता. धारक कंपनीचो मार्ग सोडून हेर खंयचेय पद्दतीन जेन्ना कांय बँको एकठांय येतात, तेन्ना साखळी बँक अस्तित्वांत येता.

'भारतीय रिजर्व बँक' ही भारताची मध्यवर्ती बँक, १ एप्रिल १९३५ त अस्तित्त्वांत आयली. तिचें राश्ट्रीयकरण १ जानेवारी १९४९ त जालें. ती देशाचे चलनवेवस्थेचेर आनी देशांतल्या हेर बँकांच्या वेव्हाराचेर नियंत्रण दवरपाचें काम करता. समाजाचें आनी राश्ट्राचें हीत सादप हो तिचो मुखेल हेत जावन आसा. चलनी नोटी काडप, बँकांची बँक म्हूण वावर करप, तशेंच सरकारी बँक, देशांतल्या पतवेव्हाराचेर नियंत्रण दवरप हें ह्या बँकेचें मुखेल काम.

सरकाराचे वतीन नव्यो नोटी काडपाची मक्तेदारी (Monopoly) भारतीय रिजर्व बँक हिका दिल्ली आसा. देशाची अर्थीक स्थिती आनी सरकारी धोरण लक्षांत घेवन देशांत कितल्यो नोटी प्रचारांत आसच्यो, हांचो निर्णय भारतीय रिजर्व बँक घेता. मध्यवर्ती बँकेच्या नोटी काडपाच्या अधिकारांचेर कायद्यान निर्बंध घाल्ले आसतात. कागदी चलनाचो आदार म्हूण कांय प्रमाणांत भांगर, रुपें आनी सरकारी कर्जरोखे मध्यवर्ती बँकेत राखीव दवरपाची गरज आसता.

देशांतल्या हेर बँकांनी आपल्या सांठ्यांतली कांय रक्कम मध्यवर्ती

बँकेकडेन दवरूंक जाय, अशीं तांचेर बंधनां आसतात. हांचेर देखरेख दवरपाचें काम मध्यवर्ती बँक करता. हेर देशांतल्या हेर बँकांक रिणाची गरज आसल्यार मध्यवर्ती बँक काय अटींचेर तांकां रिण दिता. हाका लागून तिका बँकांची बँक अशें म्हण्टात. देशांतल्या पतवेव्हाराचेर नियंत्रण दवरप तशेंच म्हत्वाची आनीक आंकडेवारी प्रसिद्द करप होय तिचो मुखेल वावर जावन आसा.

राश्ट्रीयकृत बँको हो भारतीय बँकींग पद्दतीचो एक म्हत्वाचो घटक आसा. १९६९ त भारतातंल्या १४ व्हड बँकांचें राश्ट्रीयकरण जालें. १९८० त आनीक ६ वेपारी बँकांचें राश्ट्रीयकरण जालें. समाजीक कल्याण आनी राश्ट्रीय विकास घडोवन हाडप हो राश्ट्रीयकरणाफाटलो मुखेल हेत आशिल्लो. मागाशिल्ल्या वाठारांनी बँकांचे फांटे वाडोवप, बँकेंतली रक्कम वाडोवपाचो यत्न करप, लोकांभितर बँकिंगांची संवय वाडोवप, बँकांचे साधनसामुग्रीचो उपेग शेतवड, लघुउद्देग, निर्यात, नव्या उद्योजकांक प्रेरणा आनी आदार दिवप, ह्या सगळयांचें म्हत्व मतींत घेवन बँकांचें राश्ट्रीयकरण केल्लें.

बँकांचो वेव्हार वेवस्थीत चलचो ह्या उद्देशान केंद्र सरकारान १९६९ त भारतीय बँकींग आयोगाची थापणूक करून बँकींग वेवसायांत सुसंगीकरण आनी तांची कार्यक्षमता वाडोवपाचें कार्य आयोगाचेर सोंपयलें. ह्या आयोगाचे शिफारशीवयल्यान १९७७ त बँकींग वेवसायांत ज्या कर्मचाऱ्यांचे भरतेखातीर राश्ट्रीय बँकींग सेवा आयोग सुरू केलो, अशो बँक सदृश्यन वित्त संस्था (Non Banking Institutions) विशेश करून बचत आनी रीण वेव्हारांत, कांय प्रमाणांत उलाढाल करता. भारतीय आयुर्विमा निगम, यूनीट ट्रस्ट ऑफ इंडिया सारकिल्ल्या संस्थावांगडाच बऱ्योच खाजगी स्वरुपाच्यो संस्था बँकसदृश्य वेव्हार करतात.

- कों. वि. सं. मं.

## बँटिक, लॉर्ड विल्यम हॅन्री कॅव्हँडिश : (जल्म : १४ सप्टेंबर १७७४, लंडन; मरण : १७ जून १८३९).

ब्रिटिशांच्या काळांतलो हिंदुस्थानाचो पयलो गव्हर्नर जनरल (१८२७-३५). पोर्टलँडाच्या सधन उमराव घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचें नांव विल्यम आनी आवयचें नांव लेडी डॉरॉथी. हीं दोगांय राजकीय परंपरा आशिल्ल्या घराण्यांतलीं आशिल्लीं. मुळावें शिक्षण घेवन तो भूदलांत 'कोल्डस्ट्रिम गार्ड्स' हातूंत अधिकारी जालो (१७९१). फुडें रोखडोच ताका लेफ्टनंट कर्नल हो हुद्दो मेळ्ळो. कांय वर्सां 'ड्यूक ऑफ यॉर्क' हाचो परिसहाय्यक म्हणून ताणें काम केलें. पिरायेच्या बाविसाव्या वर्सा तो ब्रिटीश संसदेचेर वेंचून आयलो. १७९९ त रशियन आनी ऑस्ट्रियन सैन्यांच्या मुखेल कँपार तो गेल्लो त्या वेळार फ्रेंचां वागंडा जाल्ल्या जायत्या झुजांनी तो आशिल्लो. १८०३ त गॉसफोर्डच्या सरदार घराण्यांतल्या लेडी मारी ॲचसन हिचेकडेन ताचें लग्न जालें. त्याच वर्सा मद्रासचो गव्हर्नर म्हणून ताची नेमणूक जाली. ह्याच काळांत टिपू उपरांत ब्रिटिशांचो शेक वाडत आशिल्लो. अशा वेळार बेळ्ळूरच्या हिंदू शिपायांनी टिपूच्या भुरग्याच्या आदारान बंड केलें. हातूंत जायत्या ब्रिटीश अधिकाऱ्यांक मरण आयलें. तेन्ना इस्ट इंडियेच्या संचालकांनी बँटिकाक जबाबदार धरून १८०७ त परत आपयलो. इंग्लंडाक वतकच ताका मेजर जनरल हो हुद्दो दिवन पुर्तुगालाक धाडलो. ताणें सर जॉन मूर आनी आर्थर वेलस्ली ह्या नामनेच्या सेनानींच्या हाताखाल काम केलें. फुडें १८११ त नेपल्सांत राजदूत म्हणून ताका धाडलो. तरी थंय ताका गव्हर्नर म्हणून काम करचें पडलें. १८१४ तो कांय काळ जेनोआंत आशिल्लो. त्या वेळार ताणें पोरन्या १७९७ च्या प्रजासत्ताक संविधानाचें पुनरुज्जीवन केलें. हाका लागून टोरी शासनाचो ताचेवयलो पुराय विश्वास गेलो आनी ताका बारा वर्सां बेकार रावचें पडलें. ह्या काळांत तो कांय वर्सां इटलीक आशिल्लो. १८२७ त जॉर्ज कॅनिंग इंग्लंडाचो प्रधानमंत्री जातकच ताणें बँटिंकाचो आदलो वावर लक्षांत घेवन ताची बंगालाचो गव्हर्नर जनरल म्हणून नेमणूक केली (१८२७).

आपल्या धा वर्सांच्या काळांत ताणें जायती म्हत्वाची उदरगत केली. सुरवेक ताणें शासकीय खर्चांत काटकसर केली, लश्करांतल्या नोकरांचो भत्तो उणो केलो आनी वायव्य सरहद्द वाठारांत जमीन महसुलाची पद्दत चालू केली. लागवडीखाल आशिल्ले जमनीचेर कर बसयलो. सतीचे चालीचेर ताणें कायद्यान बंदी हाडली. तेचपरी ताणें ठगीची चाल बंद केली (हातूंत यात्रेकारांक त्रास दिवन तांकां जिवे मारताले). १८३१-३७ ह्या काळांत ताणें तीन हजार ठगांचो बंदोबस्त करून तांकां ख्यास्त दिली. जांणी आपली चूक मान्य केली, तांकां जमीन-शेत दिवन उद्देगाक लायले. ताणें इंग्लीश भाशेचें माध्यम थरोवन फार्सी आनी संस्कृत भासांचो शासनांतलो वापर उणो केलो. कलकत्त्यांत ताणें मानवी वैजकीचें शिक्षण दिवपी एक संस्था स्थापन केली. काचार, कुर्ग आनी जैंतिया हीं संस्थानां ताणें बरखास्त केलीं आनी तांचो ब्रिटीश राज्यांत आस्पाव केलो.

ताचे कारकीर्दींत इंडिया कंपनीचे चीनावांगडा आशिल्ले वेपारी संबंद बंद जाले. कंपनीचें वेपारी स्वरूप वचून ती राज्यकारभार करपी संस्था जाली. नवे सनदेप्रमाण गव्हर्नर जनरल ऑफ बँगॉल हो हुद्दो वचून गव्हर्नर जनरल ऑफ इंडिया हो हुद्दो चालू जालो. तशेंच गव्हर्नर जनरल जे कायदे करता ते मद्रास, मुंबय हांगाच्याय शासनांक लागू करप जाले. नव्या चार्टर ॲक्ट प्रमाण इंग्लंडाचे अख्यत्यारींत आशिल्ल्या जनतेंतल्या कोणाकूच वंश, धर्म, वर्ण वा जल्माची सुवात हांच्या नांवाखाल नोकरी नाकारप जावंचेंना हें धोरण पयलीं बँटिंकान चालीक लायलें. बायलांच्या शिक्षणाचेर ताणें भर दिलो. तशेंच जायत्या खाजगी संस्थांक आदार दिलो.

१८३५ त भलायकी इबाडिल्ल्यान तो परत इंग्लंडाक गेलो. ताका सरदारकी दिवपाचें केल्लें. पूण ताका भुरगीं नाशिल्लीं म्हणून आनी हाऊस ऑफ कॉमन्साचेर वेंचून येवपाखातीर ताणें तें न्हयकारलें. फुडें तो हाऊस ऑफ कॉमन्सांचेर वेंचून आयलो. आर्विल्ल्या ब्रिटीश भारताचो शिल्पकार म्हणून ताका म्हत्वाची सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बँड :** एक सांघिक वादन प्रकार. बँड हे कल्पनेची सुरवात युरोपांत जाली आनी तांच्याच वांगडा ती भारतांत आयली. प्रशियाचो फ्रीड्रिख द ग्रेट (१७१२-८६) हाका आधुनीक बँडाचो पुरस्कर्तो मानतात. १७६३ त ताणें सैनिकी बँडाची स्थापणूक केली आनी तातूंत वाजोवपाचीं वाद्यां, तांची संख्या हांची म्हायती थारावन दिली. हातुंतल्यानच बँडाचें प्रमाणभूत स्वरूप तयार जावपाक लागलें. आयज बँडाक सांगितिक अर्थ मेळिल्लो आसा.

पुर्विल्ल्या भारतीय संगीतविशयक साहित्यांत 'तत-कुतप', 'अवनध्द-कुतप', 'नाट्य-कुतप' ह्यो संज्ञा सांपडटात. तशेंच 'पृथग्वाद्यां' वाजोवन झुजामळाचेर व्हडलो बोवाळ केल्ल्याचे उल्लेखय सांपडटात. पूण फुडें फुडें वाजपांत आनी वाजोवपाचे पद्दतींतय सुदारणा जायत गेली आनी झूज तंत्रांतय बदल जायत गेले. आतां वाद्यां आनी वाजपपद्दत प्रमाणभूत जाल्या. आयचें बँडाचें वाजप स्वर-लय-तालभरीत अशें सुबध्द संगीत आसता. स्वरमेलन (हार्मनायझेशन) हें ताचें खाशेलपण जावन आसा.

बँडांत मुखेलपणान सुषिर, अवनध्द आनी घन वाद्यां वापरतात. तातूंतलीं पितुळचीं व्हडलीं व्हडलीं वाद्यां ओडलायणीं आसतात. 'ब्रास-बँड' ही संज्ञा हाकाच लागून वापरांत आयल्या जांवये. पूण ह्या ब्रास बँडांतलीं जायतीं मुखेल वाद्यां लांकडी वा आधुनीक काळांत एबनायटचीं आसतात. ह्या भायर बॅगपायप-बँड, फ्लूट बँड, ब्यूगल-बँड हींय वेगवेगळीं बँडा फामाद आसात. ह्या बँडातल्या वादकांची संख्या वीस-पंचवीसापसून देडशेंमेरेन आसपाक शकता. तंतुवाद्यांसारकीं नाजूक वाद्यां आनी पियानो सारकीं जड वाद्यां बँडांत वापरप शक्य नासता. बँडांत तुमुल नाद करपाक शकपी, पयसमेरेन आयकुपाक येवपासारकीं आनी वत, वारो, पावसांत तिगपासारकींच वाद्यां वापरतात.

सैनीक, पोलीस आनी तांच्यासारक्यो सांघिक कवायती करपी जांव संचलना करपी नागरी संघटनाक बँडाची गरज आसता. तशेंच शाळेंत आनी व्यायाम शाळेंत बँडाचो वापर करतात. सर्कशींत जांव खेळांगणाचेरय जायत्या कार्यावळींनी घोश-वाजप गरजेचें मानतात. समूह-मन (कॉर्पोरेट माइंड) राखपाखातीर घोश संगीताक चड म्हत्व आसा. बेगीन आनी ल्हव लयींतली रचणूक (क्वीक् आनी स्लो, निर्चेस), उद्घोश (कॉल्स) प्रणाम (सॅलूट्स) ह्या प्रकारांचें वाजप आधुनिक बँडाचेर आयकुपाक मेळटा. मनरिझवणे खातीर आनी समारंभाखातीर प्रसंगाप्रमाण बरें संगीत बऱ्या बँडाचेर आयकपाक मेळटा. तातूंतली रचणूक चडकरून अस्तंती संगीत पद्दतीचेर आदरिल्ली आसता. पूण आतां भारतीय रागदारीचेरय आदरिल्ल्यो रचना निर्माण जाल्ल्यो आसात. तशेंच परदेशांतय तांचेविशीं ओड निर्माण जावपाक लागल्या. मंगल-बँड ही एक गरजेंतल्यान निर्माण जाल्ली नवी संकल्पना. तिचो सगळो थाट जरी लश्करी बँडासारखो आसलो तरी वाजपाचो विशय देशी संगीताचोच आसता. परंपरागत वाजपाचें आधुनिक स्वरूप म्हणून मंगल-बँडाचें वर्णन करूं येता.

लश्करी कवायतींतलें लश्करी बँड, शाळेंतलें शालेय बँड, पुलिसेंतलें पुलीस बँड, सर्कशिंतलें सर्कस बँड, पाश्चात्त संगिताचें संगीत बँड अशीं बँडाचीं जायतीं नांवां आसात. नांवाप्रमाण तांचो उद्देश आनी ते प्रमाण वादनप्रकार आसता. गोंयांत आनीक दोन तरेच्या बँडाचो वापर जाता. हिंदू, किरिस्तांव आनी मुसलमानाच्या लग्नांत मंगलवाद्य म्हण बँड वाजोवप जाता. किरिस्तावांच्या लग्नांत (काजार) आनी लग्नांतल्या नाचांत बँड वाजयता. तें अस्तंते धर्तीत आसता. किरिस्तावांमदीं खुबूच प्रिय आशिल्ल्या 'तियात्र' ह्या कोंकणी नाटकाक अस्तंते पद्दतीचें संगीत दिवपाचें काम बँड करता. ह्या बँडाक मुज्ग (Music) आनी वाजवप्याक मुज्गी (Musician) म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**बॅकेट, सॅम्युएल :** (जल्म : १३ एप्रिल १९०६, डब्लिन; मरण: १९८९).

नामनेचो आयर्लंडी कादंबरीकार आनी नाटककार. एका प्रॉटेस्टंट घराब्यांत ताचो जल्म जालो. डब्लिन 'ट्रिनिटी' कॉलेजांत फ्रेंच आनी इटालियन भाशांचो ताणें अभ्यास केलो. १९२७ त ताणें बी. ए. ची पदवी मेळयली. १९२८ त पॅरीसांतल्या एकॉल नॉर्माल सुपेरिअर हे शिक्षण संस्थेंत इंग्लिशीचो प्रपाठक म्हणून ताची नेमणूक



जाली. पॅरीसांत आसतना संवसारीक नामनेचो कादंबरीकार जेम्स जॉयस

हाचेकडेन ताची वळख जाली. १९३० त तो आयर्लंडाक आयलो. थंयच ट्रिनिटी कॉलेजांत फ्रेंचीचो अधिव्याख्यातो म्हणून काम करूंक लागलो. फुडें डिसेंबर १९३१ त हे नोकरेचो राजिनामो दिवनं ताणें इंग्लंड, फ्रांस, जर्मनी, इटली ह्या देशांची भोंवडी केली. १९३७ त तो परत पॅरीसाक आयलो आनी थंयच स्थायीक जालो.

ताणें आपलें चडशें लिखाण फ्रेंच आनी इंग्लीश भाशांतल्यान केलें. सुरवेच्या काळांत ताणे 'होरोस्कोप' (१९३०, फ्रेंच तत्त्वगिन्यानी रॅने देफार्त हांचेवयलें दीर्घकाव्य) 'एकोज बोन्स ॲण्ड अदर प्रिसिपिटेट्स' (१९३५, कवितांझेलो), 'प्रूस्त' (१९३१, व्हड फ्रेंच कादंबरीकार मार्सेल प्रूस्त हाच्या साहित्याचेर बरयल्लो समिक्षात्मक निबंद), 'मोर प्रिक्स दॅन किक्स' (१९३४, कथां झेलो) आदी लिखाण केलें. उपरांत ताणें कादंबरी आनी नाटक हे साहित्य प्रकार हाताळळे. 'मर्फी' (१९३८१), 'वॉट' (१९५३) आनी 'मॉलॉय' (१९५१) ह्यो ताच्यो उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो. हातूंतले मॉलॉय हे मूळ फ्रेंच कादंबरीचो ताणें आपल्या प्रॅट्रिक बोल्स ह्या वांगड्याच्या आदारान इंग्लीश अणकार केलो (१९५५). तशेंच मर्फी हे मूळ इंग्लीश कादंबरीचो फ्रेंच अणकार ताणें आल्फ्रेद पेरॉन हाच्या आदारान केलो. पूण ताका संवसारीक नामना मेळ्ळी ती ताच्या 'आंनातांदां गोदो' (१९५२) हे नाट्यकृतीक लागून. हे मूळ फ्रेंच नाट्यकृतीचो इंग्लीश अणकार ताणें 'वेटिंग फॉर गोदो' (१९५४) ह्या नांवान केला. ५ जानेवारी १९५३ ह्या दिसा हें नाटक पॅरीसाचे रंगमाचयेर सादर केल्लें. १९६९ वर्सा ताचे हे नाट्यकृतीक साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

बॅकेटाच्यो हेर उल्लेख्र करपासारक्यो साहित्यकृती अशोः मूळ फ्रेंच : 'मालोन मर' (कादंबरी, १९५१, इंग्लीश अणकार-मॅलॉन डायज, १९५६), 'लिन्नोमाब्ल' (कादंबरी १९५३, इं. अ. अननेमेबल, १९५८), 'फँ द पार्ती' (नाटक १९५७, इं. अ. एंडगेम, १९५८). मूळ इंग्लीश : 'ऑल दॅट फॉल' (नाटक- १९५७), 'क्रॅप्स लास्ट टेप' (नाटक १९५९), 'हॅपी डेस' (नाटक- १९६२). आपल्या जायत्या इंग्लीश साहित्यकृतींचे फ्रेंच आनी फ्रेंच साहित्यकृतींचे इंग्लीश भाशेंतल्यान ताणें स्वताच अणकार केल्यात. बॅकेटचे सगळे बरपावळींतल्यान स्वताचो एकसारको घेतिल्लो सोद दिश्टी पडटा. मनशाच्यो इत्सा, आशा, आकांक्षा हांची फोडणिशी करता आसतना ताची विनोदी बुद्दी स्पश्ट दिसता. ताच्या साहित्यांतल्यान ताणें केल्लो भाशेचो कलात्मक वावर तशेंच ताची साहित्याची खोलसाण आनी व्यासंग दिश्टी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**बॅडमिंटन :** रॅकेट आनी फूल (शट्लकॉक) हांच्या आदारान खेळपाचो एक खेळ. हो खेळ उक्त्या मैदानांत खेळूंक मेळटा आसलो तरी, वाऱ्याच्या झोतान शट्लकॉक हुबपाची शक्यताय आशिल्ल्यान तो बंद जाग्यांनी खेळप लोक पसंत करतात.

सुरवातीक ह्या खेळाक 'पूना' ह्या नांवान वळखताले. ताचेवयल्यान भारतांत पुणें हांगा ह्या खेळाचो उगम जालो आंसुये अशें कांय तज्ञांचें मत आसा. भारतांत आयिल्ल्या ब्रिटीश सेनाधिकाऱ्यांनी फाविल्ल्या वेळांत खेळपाखातीर हो खेळ १८६० वर्साच्या अदमासाक सोदून काडलो. १८७१ वर्सा तांणीं हो खेळ इंग्लंडाक व्हेलो.

१८७३ वर्सा ग्लॉस्टरशर परगण्यांतल्या बोफर्टच्या उमरावान आपल्या बॅडमिंटन नांवाच्या घरांत जेवणानिमतान जमिल्ल्या सगळ्या इश्टां-सोयऱ्यांक ह्या खेळाची वळख करून दिली. तांचेवयल्यान ह्या खेळाक 'बँडमिंटन' हें नांव पडलें.

बॅटलडोर (battledore) आनी शट्लकॉक (shuttlecock) ह्या भुरग्यांच्या खेळांवयल्यान ह्या खेळाची कल्पना मुखार आयली अशें म्हण्टात.




बॅडमिंटन खेळामैदान

ह्या खेळाचे पयले नेम १८७६ वर्सा पुण्यांत आंखले. उपरांत १८७७ वर्सा कराची हांगा कर्नल सेल्बी हाणें आद्य नेम तयार केले. १८७३ वर्सा इंग्लंडांत बाथ हांगा पयल्या बॅडमिंटन क्लबाची स्थापणूक जाली. १८९३ वर्सा सावथ सी (ब्रिटन) हांगा १४ ब्रिटीश क्लब एकठांय

येवन ताणीं फुटबॉल असोसिएशनचे धर्तेचेर 'द बॅडमिंटन असोसिएशन ऑफ इंग्लंड' हे संघटनेची स्थापणूक जाली. हे संघटनेन १८९५ वर्सा आद्य भारतीय नेमांच्या आदारान ह्या खेळाचे अधिकृत नेम तयार केले. १९३४ वर्सा 'द इंटरनॅशनल बॅडमिंटन फेडरेशन' (आय. बी. एफ.) ही ह्या खेळाचें जागतिक नियंत्रण करपी संस्था तयार जाली. ह्याच वर्सा भारतांतल्या ह्या खेळांचें नियंत्रण करपी 'बॅडमिंटन असोसिएशन ऑफ इंडिया' हे संस्थेची स्थापणूक जाली आनी १९३५ वर्सासावन ह्या खेळाच्यो राश्ट्रीय सर्ती सुरू जाल्यो. १९६२ वर्सा जकार्ता (इंडोनेशिया) हांगा जाल्या एशियाडांत पयलेच खेपे ह्या खेळाचो आस्पाव जालो. १९९२ वर्सा बार्सिलोना (स्पेन) हांगा जावपी ऑलिंपिकांत ह्या खेळाचो आस्पाव जालो.

हो खेळ रॅकेट आनी शट्ल ह्या दोन मुखेल आवतांनी खेळटात. दादले आनी बायलो हांचे एकोडी आनी दोट्टी तशेंच मिश्र दोट्टीय खेळ खेळतात. हो खेळ पंगडांनीय खेळटात. हो खेळ तीन सत्रांनी तशेंच पांच सत्रांनीय खेळटात. दादल्यांचें एकोडी, दोट्टी आनी बायलांचें दोट्टी तशेंच मिश्र दोट्टी खेळाचें एक सत्र १५ गुणांचें आसता. दोनूय पंगडांचे १३ (समान) गूण जाले, जाल्यार पयलीं ते गूण करतल्या पंगडाक ५ गुणांमेरेन खेळ वाडोवपाचो अधिकार आसता. १४(समान) गूण जाले जाल्यार ३ चड गुणांमेरेन खेळ वाडोवंक जाता.

बायलांच्या एकोडी खेळांत ९ (समान) गूण जाल्यार ३ ज्यादा गुणांमेरेन आनी १० (समान) गूण जाल्यार ज्यादा २ गुणांमेरेन खेळ खेळपाक मेळटा. हे अधिकार आदीं १३ वा ९ गूण केल्ल्यांकूच आसतात.

गूण मेळोवपाखातीर पयलोच फटको मारतात ताका सर्वीस म्हण्टात. एक फावट सर्वीस करपी खेळगड्यान गूण वगडायलो (Service Over) जाल्यार ही सर्वीस दुसऱ्यान करपाची आसता. सर्वीस ही सदांच तिरपी आसूंक जाय, (उजव्यानसावन दाव्यान वा परती) जेन्ना दोट्टी खेळ खेळटात तेन्ना दोन खेपो सर्वीस करपाक मेळटा.

ह्या खेळाखातीर वापरपाचें मैदान दोन भागांनी वांटून घाल्लें आसता. ताची लांबाय १३४१ मीटर आनी रुंदाय एकेरी खेळाखातीर ५.१८मी. आनी दोट्टी खेळाखातीर ६.१० मीटर आसता. मैदानाच्या मदेगाक १.५२ मीटर उंचायेचेर जाळी आसून ती १.५५ मीटर उंचायेच्या खांब्याचेर बांदतात. ही जाळी गडद कोराची आसता. ताची दाटाय १५ ते २० मिमी. आसता.

खेळांत वापरपाचें रॅकेट वजनान ल्हव आसता. ताचो फुडलो भाग वाटकुळो आसून फाटल्यान ताका दांडी आसता. रॅकेटाची दांडयेसयत लांबाय ६८० मिमी. परस अदीक आसूंक फावना. फुडल्या भागाची लांबाय २८० मिमी. आनी रूंदाय २२० मिमी. आसता.

फूल : (शट्लकॉक, शट्ल वा बर्ड) पांखांपसून तयार करतात. पूण तें सिंथेटीक वा हेर तरेन उत्पादीत करपाक जाता. ताचो तळ ल्हव आणी वाटकुळो आसता. पांखां १४ ते १६ आसून तांची लांबाय ६४ ते ७० मिमी. आसता. फुलाचो व्यास ५८ ते ६८ मिमी. आनी वजन ४.७४ ते ५.५० ग्रामामदीं आसूंक जाय.

फुडल्या खेळगड्याचो शॉट हाताच्या फुडल्या भागाचो उपेग (Clock-wise) करून परतितात ताका 'फोरहँड' आनी परतो (anti-clock-wise) मारिल्ल्या शॉटाक 'बॅकहँड' म्हण्टात. हेखेरीज क्लीअर, स्मॅश, ड्रॉप आनी ड्राइव्ह अशे चार मुखेल फटक्यांचे प्रकार आसात.

बॅडमिंटन खेळाचो जनक जावपाचो मान भारताक फावो जाता. इंग्लंडान ह्या खेळाक आश्रय दिलो. उपरांत तो राश्ट्रकुल देशांनी पावलो. थंयसावन ताका अमेरिका आनी डॅन्मार्क ह्या देशांनी आपणायलो. आशियांत चीन, इंडोनेशिया, जपान, मलेशिया आनी कोरियन देशांनी ह्या खेळाक संवसारीक पावंडो मेळोवन दिलो.

'द इंटरनॅशनल बॅडमिंटन फेडरेशन' हे संस्थेवतीन दादल्यांखातीर १९४० वर्सासावन 'टॉमस चषक' आंतरराश्ट्रीय सर्त जाली. बायलांखातीर १९५७ वर्सासावन 'उबेर चषक' ही आंतरराश्ट्रीय सर्त सुरू जाली. 'बॅडमिंटन असोसिएशन ऑफ इंडिया' हे संस्थेवतीन १९३५ वर्सासावन ह्या खेळाच्यो राश्ट्रीय सर्ती सुरू जाल्यो. ह्या खेळांतली मुखेल अशी संवसारीक करंड सर्त १९७७ वर्सा सुरू जाली.

बॅडमिंटनाची दादल्यांची 'टॉमस चषक' सर्त इंडोनेशियेन वट्ट आठ खेपे (१९४९ ते १९९२) जिकून विक्रम प्रस्थापित केला जाल्यार बायलांची उबेर सर्त जपानान आनी चीनान प्रत्येकी पांच खेपे (१९५७ ते १९९२) जिकल्या. 'ऑल इंग्लंड' सर्तींत आठ खेपे (१९०० ते १९९२) दादल्यांची एकोडी किताब जोडून सगळयांत अदीक वस्तादपणां जोडपाचो मान इंडोनेशियाच्या रूडी हार्टोनो हाका फावो जाला. हे सर्तींतलीं चडांत चड म्हळ्यार २१ वस्तादपणां (दोट्टी धरून) हातासपाचो मान जॉर्ज ॲलन थॉमस (इंग्लंड) हाका फावो जाला. बायलांनी सगळयांत चड म्हळ्यार १० एकोडी वस्तादपणां जोडपाचो मान अमेरिकेची ज्यूडी हाश्मान हिणें मेळयला. इंग्लंडची ए. डी. जॉर्डन हिणें ८२ आनी डब्ल्यू. सी. ई. रॉजर्झ ह्या बायलांनी वट्ट ५२ आंतरराश्ट्रीय सर्तींनी वस्तादपणां जोडून विक्रम केला. हेखेरीज आंतरराश्ट्रीय सर्तींत केनेथ डेव्हिडसन (अमेरिका), वाँग पेंग सून (मलेशिया), एअलॉंड कोप्स (डेन्मार्क), एडी चूंग (मलेशिया), तान जो हॉक (मलेशिया), फेरी सोन-व्हिले (इंडोनेशिया), लिम स्वी किंग (इंडोनेशिया) हे कांय नामनेचे खेळगडे आसात.

युरोपियन वस्तादपण सर्तींत इंग्लंड (१९७४, १९७८, १९८२, १९८४); डेनमार्क (१९७६, १९८०, १९८६, १९८८, १९९०); स्वीडन (१९९२) हाणीं वस्तादपण जोडलें.

ऑलपींक सर्तींत, सुरवेक १९७२ वर्सा, बॅडमिंटनाचो प्रदर्शनी

खेळ म्हणून प्रवेश जालो. उपरांत १९८८ वर्सा तो प्रदर्शनी खेळच म्हूण खेळप जालें. १९९२ वर्सा ताचो पदक खेळ म्हण आस्पाव जालो.

भारताक बॅडमिंटनाच्या आंतरराश्ट्रीय क्षेत्रांत पयलें नांव मेळोवन दिवपी नंदू वा नंदकुमार महादेव नाटेकर हो भारताचो पयलो बॅडमिंटन खेळगडो. तसोच १९५३-५४ काळांतलोय पयल्या क्रमांकाचो खेळगडो. ताणें क्वालालुंपुर (मलाया) हांगा, 'सेलांगोर ओपन बॅडमिंटन चँपियनशिप्स' हातूंत दादल्यांचें वैयक्तिक विजेतेपद (१९५६), टॉमस चषक सर्तींत भारतीय संघाचें नेतृत्व (१९६०), अखिल भारतीय एकोडी आनी दोट्टी सर्तींचें विजेतेपद (१९६०), बँकॉकच्या 'किंग्ज कप' चें वैयक्तिक विजेतेपद (१९६१), अर्जुन पुरस्कार (१९६१) आनी वट्ट ६ खेपे एकोडें राश्ट्रीय अजिंक्यपद अशे जायते विक्रम ताणें केल्यात.

प्रकाश रमेश पडुकोण हो भारताक आंतरराश्ट्रीय मळार सन्मान मेळोवन दिवपी श्रेश्ठ बॅडमिंटन खेळगडो. १९७१-१९७९ ह्या ९ वर्सांनी तो राश्ट्रीय वस्ताद आसलो. १९७८ वर्सा ताका राश्ट्रकुल सर्तींत भांगरापदक मेळ्ळें. मार्च १९८० वर्सा ताणें डेन्मार्क आनी स्वीडन हांगाची सर्त जिकून आनी 'ऑल इंग्लंड' बॅडमिंटन सर्त जिकून संवसारीक वस्तादपण मेळयलें. भारताक हो भौमान मेळोवन दिवपी तो पयलोच भारतीय खेळगडो जावन आसा. १९८१ वर्सा ताणें क्वालालुंपुर हांगाच्या विश्वचषक सर्तींत दादल्यांचे एकोडे सर्तींत जैत मेळयलें. १९७३ वर्सा ताका अर्जुन पुरस्कार मेळ्ळो. तशेंच कॅनडियन ओपन (१९७८), इंग्लीश मास्टर्स (१९७९), स्वीडीश ओपन (१९७८), डॅनीश ओपन (१९८०), हाँगकाँग ओपन (१९८२) अशो संवासारीक सर्ती ताणें जिकल्यात.

सय्यद मोदी ह्या भारतीय खेळगड्यान १९८२ वर्सा राश्ट्रकूल सर्तींचें वस्तादपण मेळयलें. १९८०-१९८७ अशीं आठ वर्सां तो राश्ट्रीय वस्ताद थारलो. १९८२ वर्सा ताका काश्या पदक मेळ्ळें.

अशियाई बॅडमिंटन सर्त सगळयांत पयलीं जिकपाचो मान १९६५ वर्सा दिनेश खन्ना हाणें जोडलो. १९६६ वर्सा ताका राश्ट्रकुल सर्तींत काश्या पदक मेळ्ळें. लॅरोय डिसा, प्रदीप गंधे, कन्वल ठाकूर हांकांय १९८२ वर्सा दिल्ली एशियाडांत काश्यापदकां मेळ्ळयांत. बायलांचे सर्तींत सगळयांत चड म्हळयार स खेपो (१९८६-९१) राश्ट्रीय वस्तादपण जोडपाचो मान मधुमिता बिश्त हिका मेळ्ळो. हरजीत सिंग, विमल कुमार, रवी कुंटे, विक्रम सिंग, दिपांकर भट्टाचार्य आनी बायलांभितर सीमा भांडारी, अमी घिया, दिप्ती ठाणेकर, अमिता मोदी ह्या खेळगड्यांनी नामना जोडल्या.

बॅडमिंटन खेळांतले अर्जुन पुरस्काराचे मानकरी अशे आसात: १९६१- नंदू नाटेकार, मीना शाह; १९६५-दिनेश खन्ना; १९६७-सुरेश गोयल; १९६९- दीप घोश; १९७०- दमयंती तांबे; १९७१-शोभा मूर्ती; १९७२-प्रकाश पडुकोण; १९७४-रोमेन घोश; १९७५ - देविंदर अहुजा; १९७६ - अमी घिया; १९७७ - कन्वल ठाकूरसिंग; १९८० - सय्यद मोदी; १९८२ - पार्थो गांगुली, मधुमिता (बिश्त) गोस्वामी.

१९६९ वर्सा गोंयांत बॅडमिंटन असोसिएशनाची स्थापणूक जाली. बॅडमिंटन असोसिएशन करंड, डी. बी. बांदोडकर यादस्तीक करंड, म्हापसा जेसी करंड, थम्स अप करंड आनी पणजी बॅडमिंटन क्लब सर्त ह्यो गोंयच्यो पांच मुखेल रॅकींग सर्ती आसात. अनील माडगांवकर, आनंद माडगांवकर, उमेश नायक, फ्रान्सिस्क डायस, डॅरीक मिनेझीस, अनील कुडचडकार, रणजीत रॉबिन्सन, अंबर तिंबलो, आशुतोश पेडणेकार हे दादले आनी श्रीमती रोडफील मिनेझीस, सुनिता माडगांवकर, लता माडगांवकर, लीना पेडणेकार ह्यो गोंयच्यो नामनेच्यो खेळगड्यो आसात.

- सुशांत कुंकळयेंकार

**बॅनर्जी, सुरेंद्रनाथ :** (जल्म : १० नोव्हेंबर १८४८, कलकत्ता; मरण : ६ ऑगस्ट १९२५, बराकपूर).

व्हड भारतीय फुडारी आनी अखिल भारतीय राश्ट्रीय काँग्रेसचो एक संस्थापक. ताचो बापूय दुर्गाचरण, वैज आशिल्लो. सुरेंद्रनाथाचें शिक्षण कलकत्त्यांत जालें. १९६८ वर्सा बी. ए. जातकच इंग्लंडाक वचून आय. सी. एस्. परीक्षा तो १८६९ वर्सा पास जालो. भारतांत येतकच सहाय्यक दंडाधिकारी म्हूण ताची सिल्हेट हांगा नेमणूक जाली. पूण १८७४ वर्सा ताच्या, प्रशासनांतल्या किरकोळ चुकांचें निमित्त करून ताका नोकरेवयल्यान काडून उडयलो. बार ॲट लॉचे परीक्षेक बसपाक लेगीत ताका न्हयकारलें. ब्रिटीश राज्यकर्त्यांच्या ह्या अन्यायाक लागून तांच्याआड सुरेंद्रनाथान १८७५ वर्सा चळवळ सुरू केली.

कलकत्त्यांतल्या मेट्रोपोलिटन इन्स्टिट्यूशनांत सुरवेक इंग्लीश विशय शिकयतकच, फुडें कांय दीस फ्री चर्च कॉलेजींत शिकयलें. उपरांत ताणें रिपन महाविद्यालय स्थापन केलें. थंय अध्यापक म्हूण ताणें ३७ वर्सां काम केलें.

सुरेंद्रनाथान २६ जुलय १८७६ वर्सा 'इंडियन ॲसोशिएशन' ही संस्था स्थापन केली आनी तिचो प्रसार करपाखातीर ताणें भारतभर भोंवडी केली.

१८७८ वर्सा 'बेंगॉली' हें इंग्लीश खबरांपत्र ताणें काडलें आनी सुमार ५० वर्सां तातूंत लिखाण केलें. ह्याच खबरांपत्रातल्यान कलकत्ता उच्च न्यायालयाची बदनामी केल्याच्या आरोपाखाल ताका अटक जातकच, देशभर निशेधाच्यो सभा जाल्यो.

ताणें इंडिया ॲसोसिएशनचेवतीन कलकत्त्यांत राश्ट्रीय सभा आपयली (डिसेंबर १८८३). उपरांत दुसरी राश्ट्रीय सभाय ताणें कलकत्त्यांतूच घेतली (१८८५). राश्ट्रीय काँग्रेसचो तो दोनदां अध्यक्ष जालो (पुणें-१८९५ आनी अहमदाबाद - १९०२). १९२१ वर्सा द्विदल राज्यपद्दत आशिल्ल्या बंगालच्या विधीमंडळाचेर सुरेंद्रनाथाची नेमणूक जाली आनी ब्रिटीश सरकारान 'नाइट' हो किताब दिवन ताचो भोवमान केलो.

१९२१-२३ वर्सा ताची स्थानिक स्वराज्य मंत्री म्हूण नेमणूक जाली.

**सुरेंद्रनाथान** 'ए नेशन इन मेकिंग : बिइंग द रेमिनिसेंसीस ऑफ फिफ्टी यीअर्स ऑफ पब्लिक लाइफ' (१९२५) ह्या नांवान आपजीण बरयली.

- कों. वि. सं. मं.

**बॅल, ॲलेक्झांडर ग्रॅहॅम :** (जल्म : ३ मार्च १८४७, एडिंबरो - स्कॉटलंड; मरण : २ ऑगस्ट १९२२, बेडेक - नोव्हास्कोशा- कॅनडा).

नामनेचो अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ आनी संशोधक. दूरध्वनीचो सोद ताणें लायलो. ताच्या ह्या सोदाक लागून संदेशवहन तंत्रविद्येंत एक नवें यूग सुरू जालें. आपली आवय आनी घरकान्न भेड्डी आशिल्यान ताणें तांकां उलोवंक शिकोवपाचें काम जिवीतभर आस्थेन केलें.

ताचो बापूय वाचाक्रियाविज्ञानाचो आनी वाचाशास्त्राचो तज्ञ आनी आजो वाचाशास्त्राचो प्राध्यापक आशिल्लो. ताचें सुरवातीचें शिक्षण एडिंबरो विद्यापिठांत जालें. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा एल्जिनांतल्या वॅस्टन हाऊस ॲकॅडेमी हे संस्थेंत वाचाशास्त्र आनी संगीत हांचो निदेशक म्हणून तो काम करूंक लागलो. १८६५ त फुडल्या शिक्षणाखातीर तो लंडनचे युनिव्हर्सिटी कॉलेजींत गेलो. थंय ताणें उलयता असतना तोंडांत जावपी अनुस्पंदनाचो अभ्यास केलो. फुडें १८७० तो आवय-बापाय वांगडा ब्रँटफर्ड (ऑंटॅरिओ, कॅनडा) हांगा गेलो. १८७१त बोस्टन हांगा सेरा फुलर्सा स्कुलांत तो भेड्ड्या विद्यार्थ्यांक शिकोवपाचें काम करूंक लागलो. १८७२त ताणें भेड्ड्यांच्या शिक्षणांक प्रशिक्षण दिवपाखातीर बोस्टन हांगा एक विद्यालय स्थापलें. १८७३ त बोस्टन विद्यापिठांत वाचाक्रियाविज्ञानाचो प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली.

टॉमसन वॉटसन हाचेवांगडा तारायंत्रविद्या आनी दूरध्वनी विद्या ह्या विशयांनी ताणें संशोधन केलें. एकेच सरयेवयल्यान एकाच वेळार कितलेशेच संदेश प्रेशीत करपी तारायंत्र प्रणालीकडेन ताचें लक्ष गेलें. आवाजाचे खरसाणीप्रमाण हवेचे घनतेंत जावपी बदलाप्रमाण सरयेंतल्यान व्हांवपी विद्युत् प्रवाहांत बदल करून ध्वनीवहन करूं येता, अशें १८७४ त ताका दिसलें. कितलेशेच प्रयोग करतकच १८७६ त ताणें चुंबकीय दूरध्वनी हें उपकरण तयार केलें. ह्या उपकरणांत फुडें टॉमस एडिसन आनी हेर जायत्या शास्त्रज्ञांनी सुदारणा करून ताका आयचें स्वरूप प्राप्त करून दिलें.

बॅल हाणें १० मार्च १८७६ त पयलेच खेपे पयलें वाक्य सरयेंतल्यान विद्युत् प्रवाहावरवीं प्रेशीत केलें. ते उपरांत दोन म्हयन्यांनी अमेरिकन ॲकॅडेमी ऑफ आर्ट्स अँड सायन्सेस हे संस्थेच्या बोस्टन हांगाचे सभेंत ताणें दूरध्वनीचें पयलें प्रात्यक्षीक करून दाखयलें. जुलय १८७७ त बॅल टेलिफोन कंपनीची स्थापणूक जाली आनी त्याच वर्सा इंग्लंड आनी फ्रांसांतूय बॅल हाणें दूरध्वनीचो प्रसार केलो. बॅल आनी वॅस्टर्न युनियन हे कंपनीन १८७९ त संयुक्त कंपनी स्थापन केली. १८८४ त बॅल कंपनीन बोस्टन आनी न्यूयॉर्क हांचे मजगतीं पयलि पयसुल्ल्या अंतरावयली दूरध्वनी यंत्रणा उबारली. १९८५ त बॅल आनी हेरांनी मेळून अमेरिकन टेलिफोन अँड टेलिग्राफ कंपनीची स्थापणूक केली. फ्रांसांत १८७७ त बॅल हाका व्होल्टा इनाम दिलें. बेल हाणें १८८० ह्या इनामाचे रकमेंतल्यान वॉशिंग्टनांत व्होल्टा लॅबोरेटरी स्थापन केली. हे प्रयोगशाळेंत ताणें फोटोफोन, श्रवणमापक, ग्रामोफोनांतल्यो सुदारणा आदी सोद लायले. उजवाडाचे शलाकेवरवीं ध्वनीवहन करपी फोटोफोन ह्या उपकरणाचें तत्त्व बॅल हाणें सी. ए. टेंटर हाचेवांगडा संशोधन करून सोदून काडलें.

बॅल हाणें तयार केल्ल्या लाखेच्या दंडगोलाकार आनी मेणाचे ताटलेच्या आकाराच्या आनी दंडगोलाकार ध्वनीमुद्रिकांचो कोलंबिया ग्रामोफोन कंपनीन उपेग केलो. वॉशिंग्टनांत ताणें भेड्डेपणाच्या अभ्यासाखातीर व्होल्टा ब्युरो ही संस्था स्थापन केली. १९०७ त ताणें एरियल एक्सपिरिमेंटल असोसिएशनाची स्थापणूक केली.

अनुवंशीक भेड्डेंपण आनी हेर विशयांचेर ताणें कितलेशेच निबंद आनी लेख बरयल्यात. १८८३ त सुरू केल्या 'सायन्स' ह्या नेमाळयाक ताणें अर्थीक पालव दिलो. १८९८-१९०४ ह्या काळांत तो नॅशनल जिऑग्राफिक सोसायटीचो अध्यक्ष आशिल्लो. १८९८ त स्मिथसोनियन इन्स्टिट्युशनाचो रीजंट म्हणून ताची नेमणूक जाली. १८७५-१९२२ ह्या काळांत ताणें दूरध्वनी संदेशवहन आनी भेड्ड्यांचें शिक्षण हांचेविशीं वट्ट ३० एकस्व पत्रां मेळयलीं. ताणें 'अमेरिकन असोसिएशन टू प्रोमोट द टिचिंग ऑफ स्पीच टू द डॅफ' ही संस्था स्थापन केली. फुडें हे संस्थेचें 'ॲलेक्झांडर ग्रॅहॅम बॅल असोसिएशन फॉर द डॅफ' अशें नामांतर केलें. नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचो आनी हेर कितल्याशाच संस्थांचो तो वांगडी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**बॅले नृत्य :** अस्तंती देशांतलो नामनेचो नृत्यनाट्य प्रकार. रंगभूशा, नेपथ्य आनी संगीताची साथ घेवन हो सामुहिक नृत्यप्रकार रंगमाचयेर सादर करतात. बॅले हो शब्द बाल्लेरे (ballare) म्हणजे नाचप ह्या मूळ इटालीयन शब्दापसून निर्माण जाला. सुरवेक हें नृत्य फकत राजदरबारांनी जातालें आनी तातूंत वांटो घेवपी आनी लाव घेवपी लोक प्रतिश्ठीत घराण्यांतलेच आसताले. उपरांत ल्हव ल्हव ताचो विस्तार वाडत रावून ताका वेवसायीक स्वरूप मेळ्ळें.

बॅले नृत्याचो उगम पंदराव्या शेंकड्यांत राजदरबारांतल्या उत्सवांक लागून जालो अशें मानतात. इटाली, फ्रांस, बर्गंडी हांगाच्या

राजदरबारांतल्या लग्न सुवाळ्यांक, परकी राजांक येवकार दितना आनी हेर राजकीय सुवाळ्यांक हें नृत्य सादर करपाची रीत ह्या काळांत सुरू जाली. १४८९ त ड्यूक ऑफ मिलान हाच्या लग्न सुवाळ्याक एक बॅले केल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. ताचो विशय जेसन आनी गोल्डन क्लीस हे पुराणकथेचेर आदारिल्लो आसलो. सुरवेक ह्या नृत्यांत साबार ल्हान ल्हान नृत्यां आसतालीं भेसूय थाटामाटाचो आनी रंगीत आसतालो. त्या त्या प्रसंगाप्रमाण बॅलेचे विंगड विंगड प्रकार सादर करताले. संगिताच्या


बॅले नृत्य

तालार नृत्यमय हालचाली, नेपथ्य हांच्यासयत सादर केल्लो पयलो बॅले फ्रांसांत कॅथरिन द मेदीचीच्या दरबारांत १५ ऑक्टोबर १५८१ दिसा बाल्ताझार द बोइवाय ह्या व्हायोलिन वादकांनी 'बॅले ल बॅले कॉमिक द ला राइन' हो बॅले सादर केलो. हांतूत बायलांनीच वांटो घेतिल्लो.

आनी १६७२ त 'नॅशनल बॅले स्कूल' ह्या संस्थांची थापणूक केली. ताच्या तेंपार जे व्हड बॅले निर्माण जाले, तातूंत लुईस आनी हेर दरबारी लोकूय वांटे घेताले. सुरवेक बायलांचींय संवगां ल्हान चले करताले. पूण १६८१ त नामनेचो दरबारी संगितकार ल्यूली, हाणें संगीत दिल्ल्या 'द ट्रायंफ ऑफ लव्ह' ह्या बॅले नृत्यांत बायलांनी पयलेच फावट वांटो घेतिल्लो.

नृत्य-अकादमीचे थापणूके उपरांत बॅले नृत्यांत वेवसायीक नर्तकांची भर पडत गेली आनी ताका वेवसायीक स्वरूप मेळ्ळें. हाकालागून बॅलेचो राजदरबारासावन रंगमाचयेमेरेन विस्तार वाडत गेलो. ह्या काळांत बॅले नृत्यांत वापरांत आशिल्लो पदन्यास पांच मुळाव्या नृत्यावस्थांचेर आदारिल्लो आशिल्लो. ह्या बॅले पदन्यासाच्यो पांच अभिजात स्थिती प्येअर बोश हाणें सोदून काडिल्ल्यो. अभिजात बॅले नृत्याच्यो विंगड विंगड हालचाली आनी पदन्यास ह्यो पांच स्थितींचेर आदारिल्ल्यो आसतात. मुखार बॅले नृत्यांत हेर नृत्यांतल्या हालाचालींचो भर पडून ताचो खूब विकास जालो. फ्रेंच संज्ञांनी वळखुपांत येवपी आराबॅस्क, 'पिरूएत', ग्लिसाद, आँत्रशा आनी हेर चाली आसात.

बॅलेच्या तंत्रांत १७३० च्या उपरांत खूब बदल घडून आयले. पावलांमेरेन घागरे घालून नृत्य करपाची पद्दत ह्याच काळांत सुरू जाली. ताका लागून पायांच्या आनी पावलांच्या हालचालींकूय म्हत्व आयलें. 'ला दांस आँ लॅर' हें तंत्र अस्तित्वांत आयलें. एका पावलाच्या बोटांचेर उबो रावून सबंद कूड घुंवडावपाचें 'पिरूएत' तंत्र अस्तित्वांत आयलें. पुराणीक, इतिहासीक कथा बॅले नृत्यांतल्यान नाट्यमय रितीन सादर करपाक लागले.



बॅले पदन्यासाच्यो पांच अभिजात स्थिती

चौदाव्या लूईसच्या काळामेरेन बॅले नृत्यांत चडशे दादलेच वांटो घेताले. चवदाव्या लूईसाच्या तेंपार बॅले नृत्याची खूब वाड जाली. ताणें १६६१ त 'रॉयल बॅले ॲकॅडमी', १६६९त 'रॉयल म्यूझिक ॲकॅडमी'

सादारणपणान अठराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक बॅले, दरबारी प्रभावांतल्यान बरोच भायर सरिल्लो आनी तातूंत खूब नवीं नवीं तंत्रां निर्माण जाल्लीं. एकोणिसाव्या शेंकड्यांत बॅलेचेर स्वच्छंदतावादी प्रणालीचे

प्रभाव दिसपाक लागले. भावनाप्रधान आनी कल्पनाप्रचूर अशा विशयांक म्हत्व मेळ्ळें. बॅलेंतल्यान काव्यात्मक कल्पना व्यक्त जावपाक लागल्यो आनी एक म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार ह्या काळांत नर्तकांचें म्हत्व कमी जावन नर्तकींनी व्हडपण जोडलें. पूण एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या अर्दाकसावन बॅले नृत्याक सगळेकडल्यान देंवती कळा लागली. अशे स्थितींत रशियन देशान ताका आलाशिरो दिलो. रशियेंत बॅलेचो पुनर्जल्म जालो. रशियन बॅलेन ह्या काळांत युरोपांतल्या बॅलेक नवें वळण दिलें. थंय बॅले नृत्याची राजदरबारांत प्रतिश्ठा तशीच तिगून उरिल्ली. सेंट पीटर्सबर्ग आनी मॉस्को हांगा राजाच्या आलाशिऱ्याखाला बॅले नृत्याची शिकवण दिवपी विद्यालयां आशिल्लीं.

बॅलेंतलें भावदर्शन पुरायपणान व्यक्तिगत आसता. ह्या वैयक्तिक स्वांतत्र्याखातीर बॅले नृत्यकारकाक मर्यादेन रावपाची गरज उरना. नव्यो नव्यो कल्पना हाडपांची संद कलाकाराक सदांच मेळत रावता. विसाव्या शेंकड्यांत आधुनिक बॅलेचो जो विकास जाला ताचींय हींच लक्षणां आसात. परंपरीक बॅलेतलें नृत्य, नाट्य, संगीत. आनी नेपथ्य हांचो मेळ, पाच अभिजात पदन्यासांच्यो अवस्था, पांयाच्या बोटांच्या तोंकार नाचपाचें तंत्र, हांच्यासारक्या कल्पनांचो आस्पाव आधुनिक बॅलेंत जावपाकूच जाय अशे नेम नात. पूण त्यो पुरायपणान भायर उडयल्ल्याचेंय दिसना.

भारतांतली नृत्यनाट्यांची परंपरिक कल्पना अस्तंत बॅलेपरस वेगळी आसा. कथकली नृत्य हो एक अभिजात परंपरिक नृत्याचो चालिंत आशिल्लो एक प्रकार. आधुनिक काळांत भारतीय अभिजात आनी लोक नृत्य परंपरा हें बुन्यादी रूप कायम दवरून आनी त्याच वेळार अस्तंत बॅलेक आस्पावन घेवन दोनय प्रकारांत न्याय दिवंक भारतीय समाजाक पच सारकें बॅलेक नवें रूप दिवप जालें.

आधुनिक नर्तक उदय शंकर हाणें भारतांत आधुनिक अस्तंत बॅलेची बुन्याद घाली. आन्न पाव्हलॉव्ह हे नर्तकीच्या नृत्यपथकावांगडा ताणें विंगड विंगड देशांनी भोंवडी केली. अस्तंत बॅले आनी भारतांतले नृत्यपरंपरेची भरसण करून ताणें आपली अशी खास भारतीय शैली निर्माण केली. लेबर अँड मशिनरी, द ऱ्हिदम ऑफ लाइफ आनी सामान्यक्षती हे ताचे नामनेचो बॅले आसात. उपरांत सचिन शंकर हाणें भारतीय लोकनृत्यशैलीचेर आदारिल्ल्या आधुनिक बॅलेची निर्मिती केली. १९५३ त ताणें 'द सचिन शंकर बॅले यूनिट' संस्थेची थापणूक करून पुराय भारतांत भोंवड्यो केल्यो आनी 'द फिशरमॅन अँड मरमेड, सांझ-सवेरा, ट्रेन, जयपराजय, रामायण हांच्यासारके बॅले सादर केले.

विसाव्या शेंकड्यांत अस्तंती तशेंच हेर देशांनीय साबार बॅले नृत्यसंस्थांची स्थापणूक जावन ताणीं बॅलेविशीं सगळयांच्या मनांत एक नवी आवड आनी जाणीव निर्माण केली. १९५० वर्सा उपरांत सिनेमा आनी टेलिव्हिजनांनी बॅले नृत्याक प्रतिश्ठा मेळोवन दिली.

- कों. वि. सं. मं.

**बाऊल पंथ :** बंगालांतलो एक पंथ. इ.स. च्या १४व्या शेंकड्याच्या निमाणें वा १५व्या शेंकड्याचे सुरवातेक ह्या पंथाचो उदय जालो. बाऊल या शब्दाच्यो खुपशो उत्पत्त्यो प्रचलित आसात. कांय जाणांच्या मतान बाऊल हें उतर संस्कृतांतल्या 'वातुल' ह्या उतरावयल्यान आयलां. वातुल म्हळ्यार पिसो. बाऊल साधकाचें वागप सामान्य मनशापरस वेगळें तशेंच मात्शें चमत्कारीक आशिल्ल्यान विद्वानांनी ताची अशी व्युत्पत्ती केली आसुये. कांय अभ्यासकांच्या मतान आतुर वा व्याकुल ह्या उतरावयल्यान बाऊल हो शब्द आयला.

बाऊल पंथाचो एक अभ्यासक आचार्य क्षितिमोहन सेन हाच्या मतान बाऊल शब्द वायूपसून आयला. हो वायू म्हळ्यार योगशास्त्रांतलो प्राणवायू आसा. ताचेवयल्यान देहाच्या स्नायूंभितर प्राणशक्तीचो संचार करून साधना करपी तो बाऊल, अशी बाउल शब्दाची व्याख्या केल्या.

कांय संशोधक नित्यानंदप्रभू हाका ह्या पंथाचो संस्थापक मानतात. पूण कांय जाणांच्या मतान ताचो पूत वीरभद्र हो ह्या पंथाचो प्रवर्तक आशिल्ल्याचें समजतात. वीरभद्रान माधवबीबी नांवाचे एके मुस्लिम साधिकेक दीक्षा दिवन ह्या पंथाची स्थापणूक केल्ल्याचें ह्या संदर्भांत म्हळां.

अस्तंत बंगालांतली नदिया वा नवदीप ही सुवात, चैतन्य संप्रदायाभाशेन बाऊल पंथाचें मुखेल केंद्र आसा. इ. स. च्या १४ ते १८ ह्या शेंकड्यांनी ह्या पंथाचो चड प्रसार जालो. आंगांत कफनीभाशेन एकाद्रें पांयभर वस्त्र, हातांत एकतारी वा कमरेचेर डुग्गी नांवाचें वाद्य, तोंडांत देहतत्त्वाचीं, राधाकृष्णाचीं वा गौरांगप्रभूचीं पदां अशा भेसांत हे बाऊल साधक बंगालच्या खेड्यापाड्यांनी भोवतना दिसतात.

बाऊलांक संवसार धर्माकडे कसलेंच कर्तव्य नासता. तांच्या पंथांत खंयच्याय धर्माच्या आनी जातीच्या दादले-बायलांचो आस्पाव जावंक शकता. तांकां स्वर्ग, मोक्ष, पुण्य वा कसल्याच ऐहिक-पारलौकिक लाभांची अपेक्षा नासता. तांचे साधनेचें मुखेल ध्येय म्हळ्यार 'मनेर मानुषा' चो सोद घेवप. मनेर मानुषा म्हळ्यार मनशाच्या अंतःकरणातलें मनीसपण सोदप. मनेर मानुषा ही खाशेली बाऊलांची कल्पना आसा. बाऊल साधक सदांच ह्या मनेर मानुषांचें चिंतन करीत ताचो सोद घेत आसता. तांचे साधनेचें मुखेल ध्येय ह्या हृदयस्थ मनशाचो सोद घेवप, तशेंच हे साधनेचें मुखेल आंग गायन हें आसा. गायनातूच मनीस आपलो भाव पुरायपणान उक्तावंक शकता, असो बाऊलांचो विश्वास आसा. बाऊल साधकाचें सादें उलोवप लेगीत गीतबध्द आसता. हीं पदां चिंतनात्मक आसतात.

खंयचीय साधना यशस्वी जावपाखातीर साधकाक गुरूची आनी गुरूचे दीक्षेची सामकी गरज आसता. बाऊल साधकाकूय ती आसा. पूण तो गुरूच्या सोदाखातीर मुजरत यत्न करीना. एक बाऊल आपल्या

गीतांत गुरूविशीं म्हण्टा तें अशें-

*गुरू बोले कारे प्रणाम करबि मन?*
*तोर आथिक गुरू, पथिक गुरू*
*ओ तोर गुरू अगणन, ओ तोर गुरू सर्वजन!*
*गुरू रे तोर बरण-डाला! गुरू रे तोर मरण - ज्वाला!*
*गुरू रे तोर हृदय - व्यथा, जे झराय दुनयन ।।*

**अर्थ :** हे मना, गुरू म्हूण तूं कोणाक नमस्कार करतलें? तुज्या पावला पावलाक येवपी वचपी तुजे गुरू आसात. आरे, तुजे गुरू खूब आसात. सगळे मनीस तुजे गुरू आसात. फुलांचो पाटलो लेगींत तुजो गुरू आसा आनी मरणाज्वालाय तुजो गुरूच आसा. दुखान तुज्या दोळयांतल्यान व्हावपी दुकां लेगीत तुजो गुरू आसा.

बाऊल साधक रसिक आसता. जीणेंतल्या सगळया सोबीत-सुंदर आनी शुभ गजालींविशीं ताका प्रेम आसता. खेड्यांत रावचें, साधुवृत्तीन वागचें आनी स्वच्छंदीपणान जीण जगची हो तांचो बाणो आसा.

ग्रंथांचें शिक्षण आनी संस्कारांचो गंध नाशिल्ले लोक पयली ह्या पंथांत आशिल्ले. पूण तांचो वैचारिक पांवडो उच्च शिक्षण घेतिल्ल्या मनशापरस ऊंच आसतालो. एकोणिसाव्या शेंकड्यासावन मात शिकिल्ले लोकूय ह्या पंथांत आयले.

बाऊलांचीं पदां वैदिक ऋचांभशेन मौखिक परंपरेन चलत आयल्यांत. इतराज साई, लालन शाह, शेख मदन, पागल कान्हाई, गंगाराम, नरहरी, फिकिरचांद ह्या बाउलांची खूब पदां आसात. उत्तर बंगालांत ह्या पदांक 'शब्दगान' अशें म्हण्टात. दरेक बाउल साधक आपल्या मानवी देहाक पवित्र मंदिर आनी तातूंत रावपी मनाक देव मानता.

बाऊल कोणाक म्हणचो हेविशीं नरहरी बाऊल म्हण्टा, जो बाऊल मनीस धनयाची आज्ञा वा कोणाचेंच शासन मानीना, कसल्याच विधि-निशेधांचें, रुढि-नेमांचें वा आचार-विचारांचें बंधन आपणायना, मनीस समाजांत आशिल्ल्या खंयच्या भेदाक जुमानीना, तो स्वता ताच्या अंतःकरणांतल्यान उचंबळीत रावपी भूतमात्रांविशींचे प्रेमधारेंत बुडत रावता. सगळयांच्या सांगातान उमेदीन गीत गायत, नाचत उमेदीत रावता.

- कों. वि. सं. मं.

**बांगला देश :** भारतीय उपखंडाचे ईशान्येक आशिल्लें राश्ट्र. हें राश्ट्र, १९७१ वर्सा अस्तित्त्वांत आयलें. हाचेपयलीं हो देश उदेंत पाकिस्तान ह्या नांवान पाकिस्तानाचोच एक प्रांत आशिल्लो. अस्तंत पाकिस्तानाच्या प्रदेशासावन तो १,७५० किमी. च्या भारतीय प्रदेशान वेगळो केल्लो. विस्तार २१°५' उत्तर ते २६.°४०' उत्तर अक्षांश आनी ८८°५' उदेंत ते ९२°५०' उदेंत रेखांश. क्षेत्रफळ १,४३,९९८ चौ. किमी. लोकसंख्य १२३.१ दशलक्ष (१९९१). बांगला देशाचे जमीनीवयली चडशी शीम भारतान रेवाडिल्ली आसा. ह्या देशाचे अस्तंतेक आनी वायव्येक भारतांतलो अस्तंत बंगाल, उत्तरेक आसाम आनी मेघालय, उदेंतेक आसाम, त्रिपुरा आनी बर्मा आनी दक्षिणेक बंगालचो उपसागर आसा. रवींद्रनाथ टागोरांचें 'आमार सोनार बांगला' हें गीत बांगला देशाचें राश्ट्रगीत. डाक्का ही ह्या देशाची राजधानी आसा.

**भूंयवर्णन :** बांगला देशाची भूंय न्हंयांच्या संचायन कार्याक लागून तयार जाल्लें गाळांचें एक मळ जालां. देशाचो चडसो भाग दर्यापातळेसावन १५ मी. परस कमी उंचायेचो आसा. देशाची उपसागरी देग चिखलान भरिल्ली आसून तातूंत 'सुंद्री' चे रूख खूब सांपडटात. सुंद्री मळयार सोबीत. देखून हो वाठार चिखलांत भरिल्लो आसलो तरी हाका 'सोबीत रान' म्हण वळखतात. देशाच्या ईशान्य, उत्तर आनी आग्नेय वाठारांनी खूब दोंगुल्ल्यो दिश्टी पडटात. ईशान्येक ३० ते ३३५ मी. उंचायेच्यो तुटक अशो सिल्हेट दोंगुल्ल्यो आसात. तातूंतल्यो कसारा पहार, लुभाचरा आनी चतल तिला ह्यो मुखेल आसात. देशाच्या आग्नेय वाठारांत उत्तर-दक्षिणेक पातळिल्ल्यो सरासरी ६०० मी. उंचायेच्यो चितगाँग दोंगुल्ल्यो आसात. देगणांनी आनी दाट रानांनी व्यापिल्लो हो वाठार देशांतल्या हेर वाठारांपरस वेगळो आसा. मौंट केओरॅडाँग (१,२३०मी.) हें देशांतलें सगळयांत ऊंच तेमक. देशांत सगळयाक न्हंयांचें जाळें पातळिल्ल्यान बारिंद, मधुपूर आनी लालभाई हीं मळां गाळ सांठून तयार जाल्यांत. गंगा, जमुना, मेघना, पद्मा, तिस्ता, कर्णफुली, ढालेश्वरी, बुढीगंगा ह्यो देशांतल्यो मुखेल न्हंयो.

बांगला देशांत पोरनी गाळाची, नवी गाळाची आनी पर्वतीय अशी तीन तरांची माती सांपडटा. नवी गाळाची माती पिकाळ आसून ती हुंवाराच्या वाठारांत सांपडटा.

**हवामान :** देशाचें हवामान उश्ण मान्सून प्रकारचें आसता. गिमांत कमीत कमी तापमान ३३° ते ३६° से. इतलें आसता. बंगालच्या उपसागरावयल्यान येवपी नैर्ऋत्य मान्सूनच्या कुपांक लागून जून-ऑक्टोबर ह्या काळांत हांगा पावस पडटा. हांगाचें हवामान ओलसार आसून पावस सरासरी १५० सेंमी. इतलो पडटा. दोंगरी वाठारांत तो ५०० सेंमी. पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** चितगाँग दोंगुल्ल्यांच्या भोंवतणी आनी सिल्हेट, खुलाना ह्या जिल्ह्यांनी व्हड रानां आसून डाक्का आनी मैमनसिंग जिल्ह्यांतल्या कांय वाठारांत रानां आसात. हांगाच्या रानांनी विंगड विंगड प्रकारची मोनजात सांपडटा. गांवगिऱ्या वाठारांनी आमराई, कोंड्यांचीं रानां, पणस, माडयो, खाजूर आनी हेर वनस्पत दिश्टी पडटा. ईशान्य वाठारांत कोंडे आनी रॅटॅन पाम हांचीं रानां आसात. देशांतल्या कागद उद्देगाचो कोंडे हो म्हत्वाचो आदार जावन आसा. तळीं आनी सरोवरांनी

रेवाडिल्या वाठारांनी रेंबाट वनस्पत सांपडटा. मधुपूर रानाचो आस्पाव ह्याच वाठारांत जाता.

हांगाच्या दाट रानांक लागून विंगड विंगड प्रकाराची मोनजात पळोवंक मेळटा. चितगाँग दोंगरी वाठारांत हत्तींचे पंगड आनी रानरेडे सांपडटात. साबार जातींचीं हरणां, वाग, चित्ते, कोले, मुंगूस, माकड व्हडा प्रमाणांत आसात. कोगूळ, बुलबुल, घोण, गरूड गिधाड, घुबड हीं हांगा चड प्रमाणांत सांपडपी सवणीं.

**इतिहास :** १९४७ त जेन्ना भारताची फाळणी जाली तेन्ना बांगला देश उदेंत पाकिस्तान म्हणून पाकिस्तानाचो एक प्रांत आशिल्लो. उदेंत पाकिस्तान हो उदेंत बंगाल ह्या पयलींच्या भारताच्या प्रांतासावन उदयाक आयलो. अस्तंत पाकिस्तानांतल्यान सरकारी वेव्हार चलताले.

१९४६चे सुरवेक वेंचणुको जाल्यो, त्यावेळार फकत १५% सुशिक्षित आनी जमीन आशिल्ल्यांकच मताधिकार आशिल्ले. हाका लागून बंगालांत अशरफ मुसलमानांचो राजकारणावयलो प्रभाव तिगून उरलो. हे वेचणुकें मुस्लीम लीगाक व्हड यश मेळ्ळें. पक्षाचेर जिनांचो प्रभाव आनीक वाडलो. ७ ते ९ एप्रिल १९४६ त वेंचून आयिल्ल्या लीग फुडाऱ्यांचें दिल्लींत खास अधिवेशन जालें. ह्या अधिवेशनांत सुहरावर्दी ह्या बंगाली फुडाऱ्यान १९४० चो लाहोर थाराव सुदारून दोन पाकिस्तानांबदला एकूच पाकिस्तान निर्माण करपाचें असो थाराव मांडलो आनी तोय एकमतान पास जालो. अशे रितीन बंगाली मुस्लिम जनतेक काळखांत दवरून उदेंत बंगाल पाकिस्तानांत आस्पाव करून घेवपाचें आपलें सपन साकार केलें.

उदेंत आनी अस्तंत हे अखंड पाकिस्तानाचे लागीं लागीं समसमान लोकसंख्या आशिल्ले दोन प्रांत आसले, तरी पाकिस्तानी सरकाराच्या पक्षपाती धोरणाक लागून उदेंत पाकिस्तानांत लोकांक सवती भावाची वागणूक दिवप जाता अशी उदेंत पाकिस्तानांतल्या (बांगला देश) लोकांची भावना जाली. उदेंत पाकिस्तानात भोवसंख्य लोकांची बंगाली भास जाल्ल्यान तांणी उर्दु राजभाशेक विरोध केलो. १९५४ त बंगाली संयुक्त राज्यभाशेचो दर्जो झगडून घेतलो. १९५५ त पाकिस्तानांच्या राष्ट्रीय विधान सभेंत उदेंत आनी अस्तंत पाकिस्तानांत समान प्रतिनिधीत्त्व दिवप जालें. शेख मुजबर रहमन हाच्या फुडारपणाखाला अवामी लीग ह्या उदेंत पाकिस्तानांतल्या पक्षाक १९७०च्या राष्ट्रीय विधानसभेचे वेचणुकेंत भौमत मेळ्ळें. अशा वेळार अस्तंत पाकिस्तानांतल्या फुडाऱ्यांनी शेख मुजबर रहमन हाका पंतप्रधानमंत्री जावपाक विरोध केलो. हांगाच्यानूच उदेंत पाकिस्तानाच्या (बांगला देश) स्वातंत्र्य झुजाची कीट पडली. बरीच राजकीय हालचाल जाले उपरांत आनी राजकीय फुडाऱ्यांची धरपकड आनी बंदखण जाले उपरांत मुक्ती वाहिनी ह्या स्वातंत्र्यवादी लोकांचे चळवळींत बांगला देशाच्या स्वातंत्र्याचो लढो खर केलो. थंय चलिल्ले अंधाधुंदीक लागून आनी राजकीय दडपशाहीक विटून लाखांनी लोक भारतांत आलाशिऱ्याक आयले. तेन्ना हाचेर एक उपाय म्हूण भारताक बांगला देशाच्या मुक्ती संग्रामाक मदत करची पडली. १६ डिसेंबर १९७१ त बांगला देश मुक्त जालो. फुडें १९७४ त पाकिस्तानानूय बांगला देशाक अधिकृत मान्यताय दिली. स्वातंत्र्य झुजांत निर्माण जाल्लो दहशतवाद आनी उपरांत ताका मेळिल्लो धर्मकारणाचो वाद हाका लागून देशांतलें स्थैर्य ना जालें. स्वातंत्र्य झुजाउपरांत मुलकी राजवेवस्थेची बुन्याद घालपाक सरकार तशेंच राजकीय फुडारी अपेशी जाले. हाचेर उपाय म्हणून डिसेंबर १९७४ त देशांत आणिबाणी जाहीर केली. जानेवारी १९७५ त देशांतली संसदीय शासन वेवस्था रद्द करून अध्यक्षीय राजवट सुरू जावन शेख मुजीब हो राष्ट्राध्यक्ष जालो. ह्या सगळयाचो परिणाम म्हणून सैन्यांतल्या एका गटान बंडाळी केली आनी शेख मुजीब धरून ताच्या कुटुंबांतल्या बऱ्याच व्यक्तींची हत्या केली. ते उपरांत खोंडकर मुश्ताक अहमद हो राष्ट्राध्यक्ष जालो. ताणें देशांत लश्कर कायदो लावन सगळया राजकीय पक्षांक बंदी घाली. उपरांतच्या दशकांत जायते फावट लश्कर उठाव जावन बांगला देशाची सत्ता लश्कर हुकूमशहाकडेन उरली. हातूंत ब्रीगेडियर खलीक मुश्रफ, मेजर जनरल, झिया उल रहमन, हांचो आस्पाव आशिल्लो.

३० मे १९८१ दिसा जनरल झिया हाचो खून जाले उपरांत जस्टीस अब्दूस सत्तार हाणें कार्यकारी अध्यक्ष म्हणून सुत्रां हातांत घेतलीं आनी १९८२ त राष्ट्रीय वेचणुकेंत जैत जोडून राष्ट्राध्यक्षाचीं सुत्रां हातांत घेतलीं. २३ मार्च १९८२ त परतून लश्कर उठाव जावन लेफ्टनंट जनरल हुसेन महमंद इशाद हाणें देशाचीं सुत्रां हातांत घेवन सत्तार हाका पदच्यूत केलो. ११ डिसेंबर १९८३ दिसा लेफ्टनंट जनरल हर्षद हाणें अध्यक्षपद स्वीकारलें. ऑक्टोबर १९८६ त जनरल हर्षद हाची परतून अध्यक्ष म्हणून वेंचणूक जाली. डिसेंबर १९९० त जनरल हर्षदाक पदच्यूत केले उपरांत शहाबुद्दीन अहमद हो कार्यकारी अध्यक्ष जालो. बेगम खलिदा झिया हिच्या फुडारपणाखाल फेब्रुवारी १९९१ त जाल्ले सार्वत्रिक वेंचणुकेंत 'बांगला देश नॅशनल पार्टी' जैतिवंत जावन बेगम प्रधानमंत्री जाली.

**राज्यवेवस्था :** बांगला देश एक प्रजासत्ताक राष्ट्र आसून १६ डिसेंबर १९७२ ह्या दिसा हांगाचें संविधान अंमलांत आयलें. हांगा संसदीय लोकशाहिची तजवीज केली. मुखार ऑगस्ट १९७५ ते डिसेंबर १९७८ मेरेन देशांत लश्करी कायदो आशिल्लो. बांगला देशाचें मुळचें संविधान राष्ट्रीयता, समाजवाद, लोकशाय आनी धर्मनिरपेक्ष ह्या तत्त्वांचेर आदारिल्लें. पूण १९७७ त इस्लाम धर्मीय राष्ट्र अशी सुदारणा केली. समाजवादी अर्थीक वेवस्था, मूलभूत मानवी हक्क आनी स्वातंत्र्य, कायद्याचें राज्य, सार्वत्रिक फुकट शिक्षण, हीं संविधानांतलीं कांय म्हत्वाचीं तत्त्वां.

राष्ट्राध्यक्ष हो राष्ट्रमुखेली आसा. ताका सार्वत्रिक मतान ५ वर्सांखातीर वेंचून काडटात. राष्ट्राध्यक्षाच्या हातांत पुराय सेनादलां

आसतात. तो उपराष्ट्राध्यक्ष, पंतप्रधान आनी हेर मंत्र्यांचो निवाडो करता. संसद एकसदनी आसा. संसदेंत वट्ट ३१५ वांगडी आसून तांचो कार्यकाळ १० वर्सांखातीर आसता. साबार राजकीय पक्षांतले 'बांगलादेश राश्ट्रीय पक्ष' आनी 'डेमॉक्रॅटिक' हे म्हत्वाचे पक्ष आसात.

**अर्थीक स्थिती :** देशाची अर्थवेवस्था चडशी शेतवडीचेर आदारिल्ली आसा. देशांतली चडशी जमीन गाळाची आशिल्ल्यान पिकाळ आसा. पूण न्हंयांक येवपी हुंवार, चक्री वादळ, आनी परंपरीक शेत वाडोवपाची पद्दत आनी हेर शेतवड उत्पादनाच्या विकासाच्यो कांय आडमेळी आसात. वट्ट कामगारांतले ८०% लोक शेतवडींत राबतात. वट्ट राश्ट्रीय उत्पन्नातलें ६०% उत्पन्न शेतवडींतल्यान मेळटा. हांगा वर्साक तीन पिकां घेतात. भात हें देशांतलें मुखेल पीक आसून लागवडीखालच्या वट्ट क्षेत्रांतले ८०% जमीनीचेर भाताचें पीक घेतात. गंव, कड्डण, बटाट, तंबाकू, ऊंस, तेलबियो आनी फळां हांकाय म्हत्व आसा. ताग हें म्हत्वाचें नगदी पीक देशाचे अर्थवेवस्थेचो मुखेल आदार आसा. जगांतल्या वट्ट ताग उत्पादनांतलें सु. ५०% उत्पादन ह्या देशांत जाता. बांगला देशांत नुस्त्याचें उत्पन्न जरी बरेंच आसलें तरी उद्देगाची उदरगत फाव तशी जावंक ना. ह्या उद्देगांभायर हांगा फस्कां, कवचेच्यो वस्तू, कागद, रसायनीक सारें, ॲल्युमिनियम आनी हेर कारखाने आसात. देशाचें १९७६ वर्सासावन 'टका' हें अधिकृत चलन आसा.

स्वातंत्र्यझुजाक लागून देशाची अर्थवेवस्था विस्कळीत जाल्ली. नव्या शासकीय-अर्थीक प्रशासनाचो अणभव नाशिल्ल्यान सुरवेक अर्थवेवस्थेची उबारणी करपाक खूब आडमेळीं आयलीं. पूण मुखार संयुक्त राश्ट्रां, भारत, अमेरिका आनी हेर दोस्त राश्ट्रांकडल्यान आदार घेवन अर्थवेवस्थेंत थोडीभोव उदरगत घडोवन हाडली. ह्या देशांतल्यान ताग, चामडें आनी च्या हांची निर्यात जाता.

**येरादारी आनी संचारण :** येरादारी मळांचेर उदरगत जायत आसा. मुखेल शारां आनी गांव, रस्ते आनी रेल्वे मार्गांनी जोडल्यात. बांगला देश हो खूब न्हंयांचो देश आशिल्ल्यान ह्या न्हंयांवरवीं व्हडा प्रमाणांत येरादारी चलता. देशांत पाच म्हत्वाचीं न्हंय-बंदरां आसात. सागरी बंदरांत छलना, चित्तगाँग आनी मांगला हीं म्हत्वाचीं आसात. 'बांगला देश बिमान' हे राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय संस्थेवतीन हवाई येरादारी चलता. डाक्का आनी चितगाँग हांगा आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. डाक्का आनी इस्लामाबाद हांच्यांतली दूरध्वनी यंत्रणा ऑक्टोबर १९७६ सावन सुरू जाली. हांगा आंतरराश्ट्रीय संदेशवाहन उपग्रहांतल्यान चलता. दिसाळ्यांवागडा हेर खबरापत्रांचो आनी नेमाळ्यांचो आंकडो व्हड आसा. चडशीं म्हत्वाचीं खबरापत्रां डाक्कासावन उजवाडाक येतात. 'दैनिक बर्ता-एत-राजशाही' हें सरकारी खबरापत्र आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** इस्लाम हो देशाचो अधिकृत धर्म आसा. देशांत सु. ८०% लोक मुसलमान आसून तांच्यांतले चडशे सुन्नी पंथाचे आसात. गांवगिऱ्या वाठारांतले चडशे लोक पिराचे भक्त आसात. १८% लोक हिंदू आसात. बांगला देशांत रासवळ घराणें (Joint Family) ही पद्दत अजून तिगून आसा. कुटुंबाची जापसालदारकी बापायचेर आनी ताचे उपरांत ताच्या व्हडल्या चल्याचेर आसता. शीत आनी नुस्तें हें हांगाच्या लोकांचें मुखेल जेवण. चडशे लोक गांवगिऱ्या वाठारांनी रावतात. फकत १०% लोक शारांनी रावतात. बांगला देशांतलीं बायलां चडशीं घरकाम करतात. गांवगिऱ्या वाठारांनी पड्डो पद्दत अजून चलता. बायलो घरांत वावुरतना पड्ड्या फाटल्यान आसतात आनी घराभायर सरतना बुरखो वापरतात. शारांतलीं बायलां चड स्वतंत्रपणान वावुरतात. देशांत साक्षरतेचें प्रमाण कमी आसून, तातूंत बायलांचो आंकडो साप कमी आसा. देशांत विद्यापिठां तशेंच हेर म्हत्वाच्यो संशोधन संस्था आसात.

**भाशा आनी साहित्य :** इंडो-आर्यन भाशासमूहांतली बंगाली भाशा देशाची राजभास आसा. ती देशांतल्या हिंदूंची तशीच मुसलमानांची आवयभास आसा. बंगाली भाशेची आनी साहित्याची परंपरा बरीच पोरनी आसा.

आधुनिक काळांतलो जशीमुद्दीन अबुल फजल हो चड लोकप्रिय कवी आसून ताणें बंगालांतल्या गांवगिऱ्या लोकांचें चित्र दोळ्यांमुखार हाडपी लोकगितां आनी विरगितां बरयलीं. मुनीर चौधुरी हो व्हड नाटककार, आसून मुहंमद शहीदुल्ला, मुफझ्झल हैदर चौधुरी, इनामुल हक्क, शिराजल इस्लाम चौधुरी आनी बद्रुद्दीन उमर हांणी गद्य साहित्यांत मोलादीक भर घातली.

डाक्का, चितगाँग, कॉक्स बाझार, टेकनाफ हीं शारां पर्यटन केंद्रां म्हूण प्रसिद्द आसात. पर्यटकांत भारत, जपान, ग्रेट ब्रिटन आनी जर्मनी ह्या देशांतले लोक चड आसतात.

- कों. वि. सं. मं.

## बांदकर, कृष्णभट्ट : (जल्म : इ. स. १८४४, दोंगरी; मरण : इ. स. १९०२, दोंगरी).



गोंयचो एक संतकवी. गरीब भिक्षुकाच्या घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचें नांव जगन्नाथ आनी आवयचें नांव नरसाई. तो सवाय वर्साचो आसतनाच ताचो बापूय मेलो आनी बापोलयो मुकुंद भटजी हाणें ताका ल्हानाचो व्हड केलो. त्या

काळांत गांवांत शिक्षणाची सोय नाशिल्ली. कृष्णाकय घरचे घराच अक्षरवळख जाली आनी घरचे भिक्षुकी वृत्तीक गरजेचें तितलेंच ब्रह्मकर्माचें शिक्षण गांवांतल्याच हरिबाबा मुर्कुंडी हाचेकडल्यान मेळळें.

ल्हानपणासावन ताका भाक्तिमार्गाकडेन ओड आशिल्ली. शिक्षणाची संद मेळ्ळिना. पूण रामायण, भागवत आनी गीता हांच्या सातत्यान केल्ल्या वाचनांतल्यात संस्कृत भाशेचें गिन्यान ताणें आपले तीव्र बुद्दी आनी स्मरणशक्तीच्या म्हालवजार मेळयलें. मराठींतलें संतवाङमय अभ्यासून मराठी भाशेचेरूय अधिकार मेळयलो.

गोड आवाजाची उपजत देण, गावपाची कला आनी परमार्थज्ञाना कडेन सभावीक ओड आशिल्ल्यान देवस्थानांतल्यान तो किर्तनां करूंक लागलो. स्वताच पदां रचुनूय तो अभंग गायतालो. ताणें 'स्वात्मतत्त्वामृतशतक' नांवाचो एक पद्यग्रंथ बरयला. परिभाशिक शब्दांक म्हत्व दिनासतना ताणें वेदान्तांतले सिध्दान्त सोंपे भाशेंत सांगल्यात.

घरची परिस्थिती सामकी गरिबीची, तातूंत भिक्षुकीची याचकवृत्ति मनाक पटनाशिल्यान ताका वैराग्य येवंक लागलें. संवसाराची आसक्ती उणी जांवक लागली, तेन्ना बांदकरान गुरू सोदपाखातीर घर सोडलें. वेंगुर्ल्याक विष्णुबुवा नांवाचो एक सत्पुरूष ताका मेळळो. ताणें बांदकराक संप्रदायीक पद्दतीन म्हावाक्याचो उपदेश केलो. आनी रामदासी पंरपरेक सोबपासारको, 'पयलीं प्रपंच करून उपरांत परमार्थ सादचो' असो वेव्हारीक सल्लोय दिलो. गुरूच्या ह्या उपदेशाप्रमाण बांदकर घरा आयलो. रामदासी दिक्षा घेतिल्ल्यान राम हें ताचें उपास्य दैवत जालें. १८७१ वर्सा ताणें आपल्या घरांतूच राम-सीतेची प्राणप्रतिश्ठा केली. त्या काळांत दोंगरी सारक्या पोरने काबीजादींतल्या गांवांत हिंदूंचीं देवळां बांदपाक सरकारी परवानगी मेळनाशिल्ली. तेखातीर भायल्यान घर आनी भितरल्यान देवूळ अशी त्या देवळाची रचना केली.

बांदकरान आपलें, फुडलें पुराय जिवीत उपरांत रामाचे सेवेक ओंपलें. रामनमीचो उत्सव व्हडा दबाज्यान सुरू केलो. मदल्या काळांत ताणें भारतांतल्या तीर्थथळांचें दर्शन घेतलें. रामनमीच्या उत्सवाखातीर ताणें खाशेलीं संगीत नाटकां रचलीं. तीं अशीं- शुकरंभासंवाद, लोपामुद्रासंवाद, नटसुभद्राविलास आनी अहल्योध्दार. मराठी संगीत रंगमाचयेचो जनक अण्णा किर्लोस्कर हाणें बांदकराकडल्यान संगीत नाटकांची स्फूर्त घेतली अशी आख्यायिका आसा. गोंयांत खूबशा देवस्थानांनी देवाचो उत्सव सोंपयतना गौळणकालो करतात. त्या काल्याखातीर ताणें दोन काले रचल्यात.

बांदकराची पद्यरचना सुमार ८०० जातली. तातूंत किर्तनाचीं आख्यानां, अभंग, स्फुट श्लोक ह्या प्रकारांचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**बांदोडकार, दयानंद बाळकृष्ण** : (जल्मः १२ मार्च १९११, पेडणे; मरण : १२ ऑगस्ट १९७३, पणजी).

गोंय, दमण आनी दीव ह्या केंद्रशासित प्रदेशाचो पयलो मुखेलमंत्री आनी एक उद्देगपती. ताच्या बापायचें नांव बाळकृष्ण आनी आवयचें नांव श्रीमती. ताणें मुळावें मराठी शिक्षण म्हापशें आनी शालेय पुर्तुगेज शिक्षण पणजी हांगां घेतलें. पुर्तुगेज आनी मराठी तशेंच हिंदी आनी फ्रेंच भाशांचें ताका गिन्यान आशिल्लें. शिक्षण पुराय जातकच ताणें घरच्या वेवसायांत लक्ष घालें आनी फुडें खणमालक म्हूण नांव मेळयलें. जून १९३१ त सुशिलाबाय (आताचें सुनंदा) लक्ष्मण पेडणेकार नांवाचे चयलेकडेन ताचें लग्न जालें. ताका शशिकला, उषा, क्रांती आनी ज्योती ह्यो चलयो आसात. ताचो सिध्दार्थ नांवाचो चलो हाका तरणे पिरायेचेर मरण आयलें. शशिकला ही फुडें गोंयची मुखेलमंत्री जाली.



इसवी सन १८४२ तले छोडो भारत चळवळींत वांटो घेवन ताणें राजकीय मळार प्रवेश केलो. तरणेपणांत रॉयवादी विचारसरणीकडेन ताका ओड आशिल्ली. तातूंतल्यानूच तरणाट्यांक एकठांय हाडून गोंयांत समाजप्रबोधनाचो वावर हातांत घेवपाची ताका प्रेरणा मेळळी. गोंयचे सुटके चळवळींत ताणें भूंयगत कार्यकर्त्यांक पुरायतरेन आदार दिलो. गांवगिऱ्या वाठारांत मराठी शाळा चलच्यो म्हूण यत्न केले. १९ डिसेंबर १९६१ वर्सा गोंयची सुटका जातकच बांदोडकारान स्वतंत्र गोंयांत महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाची थापणूक केली (१९६३). गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करचें ह्या मताचो तो कट्टर पुरस्कर्तो आशिल्लो. डिसेंबर १९६३ त सार्वत्रिक वेचणुकेंत ताणें 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' पक्षाचो पराभव करून, एकूण ३० तले १४ जागे मेळयले. तीन अपक्षांच्या आदारान भोवमत सिद्ध करून महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचें मंत्रिमंडळ स्थापन केलें. बांदोडकारान वेंचणूक लडोवं नाशिल्ली. पूण कार्यकर्त्यांचे विनवणेखातीर १९६३ वर्सा तो गोंयचो पयलो मुखेलमंत्री जालो. महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचो मुखेल हेत गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करपाचो आशिल्लो. मुखेलमंत्री जातकच गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करपाखातीर ताणें जनतेचें मन वळोवपाचें थारायलें. केंद्रान गोंयचेविशीं जनतेचो कौल घेवपाचें थारायलें. कौल निःपक्षपाती वातावरणांत जावंचो देखून बांदोडकरान मुखेलमंत्रीपदाचो राजीनामो दिलो (३ डिसेंबर १९६६).

तेन्ना गोंयांत स म्हयने राश्ट्रपती राजवट लागू जाली. ह्या काळांत महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचो अध्यक्ष ह्या नात्यान गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जावचें म्हणून खेड्यापाड्यांतल्यान भोंवडी करून ताणें प्रचार केलो. गोंय केंद्रशासित प्रदेश दवरचो, काय महाराष्ट्रांत विलीन करचे ह्या प्रस्नाचेर ३ जानेवारी १९६७ दिसा सार्वमत घेतलें. भोव मताप्रमाण गोंय केंद्रशासित प्रदेश जालो. तेउपरांतचे एप्रिल १९६७ चे वेंचणुकेंत बांदोडकर, महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षावतीन भोवमतान वेंचून आयलो आनी गोंयचो दुसरे खेप मुखेलमंत्री जालो.

बांदोडकरान आपल्या मुखेलमंत्रीपदाचे कारकिर्दींत गोंयांत जायती सुदारणा केली. गोंयची सर्वांगीण उदरगत जावंची म्हूण ताणें जायत्यो येवजण्यो आनी कार्यक्रम आंखले. शेती आनी नुस्तेंमारी हांकां प्रोत्साहन दिलें. गोंयांतल्या उद्देजकांक चालना दिली. गांवगिऱ्या वाठारांतल्या शिक्षणावांगडाच ताणें तांत्रिक आनी वैजकी शिक्षणाकय प्रोत्साहन दिलें. संगीत, नाट्य, नाच आनी साहित्य हाकां उत्तेजन दिवपाखातीर गोंयांत कला अकादेमीची स्थापना केली. जायत्या शिक्षणीक तशेंच खेळाविशींच्या संस्थांक ताणें सदळ हातान मदत केली. गोंय भोंवडेकारांचें आकर्शण थारचें, देखून ताणें जायत्यो येवजण्यो आंखल्यो. व्हड दानी मनीस म्हूण ताची नामना आशिल्ली. क्रिकेट, शिकार, वाचन, बरें जेवण ह्यो गजाली ताका मनापसून आवडटाल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

## बांदोडकार, दीनानाथ वासुदेव : (जल्म : २ ऑगस्ट १९३५, वार्का-सालसेत).

सुटकेझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. ६ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा मडगांव रेल्वेगेटीकडेन जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पुलिसांनी ताका धरलो आनी ताचे खूब हाल केले. तशेंच ताका स म्हयने पणजे पिशां हॉस्पिटलांत दवरलो. उपरांत ताका ११ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. दर म्हयन्यांत मडगांव पोलिस ठाण्याचेर येवन हजेरी लावंक जाय, हे अटीचेर २० ऑगस्ट १९५९ दिसा ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## बांबुटी : आफ्रिका खंडांतल्या झाईरे प्रजासत्ताकांतली एक पिग्मी जमात. हांची वसती चडकरून विषुववृत्तालागीं आशिल्ल्या इटुरी ह्या रानांत आसा.

हे लोक वर्णान काळे आसून, तांचे केंस खूब मुदयाळे, रूंद नाक, मोठ्ठे दोळे आनी लोंबत्या ओठांचे आसतात. रानवटी फळां आनी फुलांपसून काडिल्ल्या रंगीत दिकान ते आपली तकली, मुखामळ, फाट आनी पोट रंगयतात. सुकिल्ल्यो वाली, हतया दांत, लाकडाचे कुंडके हांचेपसून तयार केल्ले अलंकार ते वापरतात. दांतांचे वयले सुळे आनी दाढो तासून, तांकां धारेचीं तोंकां काडटात. दादले-बायलो झाडांच्या सालींचो लंगोटीभाशेन उपेग करतात.

ह्या लोकांची मूळ भास पिग्मी. पूण हेर टोळयांवांगडा संपर्क आयिल्ल्यान तांचे बोलीभाशेंत फरक जाला.

मांस, म्होंव, फळां, कंदमुळां हो ह्या लोकांचो आहार. तांच्यो बायलो हीं फळां आनी कदमुळां एकठांय करतात. शिकारीचें जाळें घालून वा विखयाळया बाणांनी हे लोक शिकार करतात. शिकारीच्या निमतान ते टोळयांनी रावतात. थंय तांच्यो बायलो झाडां-पानांच्यो वांटकुळयो खोंपी बांदतात. बायलेवांगडा झगडें जाल्यार तीच पयलीं ही खोंप मोडून उडयता. बडी घेवन हे लोक मातयेंत वा रेवेंत विंगड विंगड जनावरांचीं चित्रां काडटात.

चली वयांत येतकच 'एलिमा' नांवाची नाच-पदांची एक कार्यावळ करतात. तांच्यांत देवघेव पद्दतीची लग्नाची चाल आसा. ताका लागून भयणीचें लग्न जमल्यारूच भावाचें लग्न जांव येता.

हे जमातींत मडें पुरतात. मडें आपले खोंपीचे फाटले वटेन पुरतात. उपरांत फकत दादले रातभर पदां गावन 'मोलिमो' नांवांचो एक विधी करतात. दुखवट्याच्या वेळार एक व्हड तुतारी वाजयतात. हेर दिसांनी ती, बायलांनी पळोवपाक जायना म्हूण उदकांत लिपोवन दवरतात. हे तुतारेकूय 'मोलिमो' अशेंच म्हणटात.

हे लोक फकत सुण्याकूच पोसतात. रान हेंच तांची दैवी शक्त आशिल्ल्यान ताका ते आपलें सर्वस्व मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

## बांसरी : (पळेयात मुरली).

## बाकुनिन, मिखायल : (जल्म : ३० मे १८१४ रशिया; मरण : १ जुलय १८७६, बर्न).



नामनेचो रशियन क्रांतिकारक. १९व्या शेंकड्यांतल्या अराज्यावादाचो मुखेल समर्थक आनी प्रचारक. तो सेंट पिटर्सबर्गाक शाळेंत शिकतना आनी लश्करांत भरती जातकच ताचे क्रांतिकारी विचार उकते जाले. १८३५ त ताणें ही नोकरी सोडली आनी तो जर्मन तत्त्वज्ञानी जोहान फिचेट आनी

हेगलाचो अभ्यास करपाक लागलो. मॉस्कोंत ताणें समिक्षक व्हि. जी. बेलीन्स्की, कादंबरीकार इवान तुरगेनेब आनी प्रकाशक ॲलेक्झांडर हरझन हांचो सांगात जोडलो.

उपरांत आपलें शिक्षण पुराय करपाक तो बर्लीनाक गेलो. थंय तो हेगलाचें अनुयायी आशिल्ल्या 'यंग हेगालियन' हे संघटनेच्या प्रभावाखाल आयलो.

१८४२त थंयच्यान ड्रेसडनाक वतकच ताणें एका जहाल वर्तमानपत्रांत पयलो क्रांतिकारी लेख बरयलो. उपरांत बाकुनिन पॅरीसाक गेलो. थंय तो आनी जर्मन समाजसुदारक पेरी जोजफ प्रुधाँ आनी कार्ल मार्क्स हांचे संगतींत आयलो.

जून १८४८ तो प्रागांत स्लाव काँग्रेसीक हाजीर रावलो. ह्याच वर्साच्या सोंपत्यार जर्मनींत ताणें पयलो व्हडलो जाहीरनामो (manifesto) 'ॲन अपील टू द स्लावस' बरयलो.

ताणें हाबसबर्ग सत्ता निखळावन उडोवपाक आनी मध्य युरोपांत स्लाव लोकांचें स्वतंत्र संघराज्य निर्माण करपाक उलो मारलो. ताचो गांवच्या लोकांचेर, खास करून रशियन शेतकामत्यांचेर खाशेलो विश्वास आसलो. तांचेकडेन हिंसक क्रांतीची परंपरा आशिल्ल्यान, तांचेकडे तो मुखार येवपी क्रांतीचे प्रतिनिधी म्हणून पळयतालो.

बाकुनिनच्या मुखेल बरोवप्यांमदीं 'द क्नोव्टो - जर्मनीक एमपायर' (१८७१) आनी 'स्टेट एण्ड ॲनार्की' (१८७३) हीं मुखेल आसात.

बाकुनिन वर्गयुद्ध मानतालो. संसद, सरकार, राज्य हें सगळें रोखडेंच ना करून उडोवंक जाय अशें ताचें मत आसलें. फुडारी शिस्तबद्ध आसचे आनी कामगार संघटनांनी राज्ययंत्रणेवयर सरळ हल्लो करून राज्य यंत्रणा पयलीं दुबळी करची आनी ना करची. संप, बहिश्कार हे उपाय येवजून अर्थीक पिळणुकेचेर आदारिल्ली रचना मोडून उडोवंची, राज्याआड सशस्त्र बंड उबारचें अशें ताचें मत आसलें. राज्य नश्ट जालें जाल्यार एकमेकांच्या आदारान, मोगान आनी सहकार्यान समाजांत परत सूखशांती निर्माण जातली आनी आंतरराश्ट्रीय झुजां थांबतलीं असो बाकुनिनाचो आशावाद आसलो.

सुरवेच्या काळांत बाकुनिनं मार्क्साच्या विचारान प्रभावीत जाल्लो. पूण उपरांतच्या काळांत ताचे कार्ल मार्क्साकडेन खर मतभेद जाले. इ.स. १८६८ त जिनिव्हांतल्या आंतरराश्ट्रीय संघटनेचे पयले बसकेंत समाजवाद प्रत्यक्षांत कसो हाडचो, ह्या मुद्द्यांचेर दोन तट पडले. मार्क्साच्या विचारान राज्य नियंत्रीत समाजवाद वाडटलो अशें बाकुनिनान सांगलें. इ.स. १८७२ त हेगांत जाल्ले आंतरराश्ट्रीय संघटनेंतल्यान बाकुनिनाक काडून उडयलो. अराज्यवादी आनी मार्क्साच्या साम्यवादी संघर्शांत, बाकुनिनान आपल्या अराज्यवादी विचारांक तेंको मेळचो म्हणून वेगळी संघटना स्थापली आनी आपल्या क्रांतिकारक विचारांचें प्रतिपादन करपाचें काम चालू दवरलें. पूण जाय तसो संघटनात्मक आदार मेळूंक नाशिल्ल्यान ताचो प्रभाव पडूंक शकलोना.

प्रुधाँन आनी बाकुनिन हे १९व्या शेंकड्यांतले अराज्यवादाचे क्रांतिचे मुखेल प्रवर्तक आसले. बाकुनिना फाटल्यान कितलेशेच ल्हान अराज्यवादी चोंबे ग्रेट ब्रिटन, स्वित्झरलंड आनी जर्मनीक उदेले. बाकुनिनाकडेन निश्ठा आशिल्ली. अराज्यवादी चळवळ इटली आनी स्पेनाक चंवराक आयली आनी १९३६ च्या निमाण्या काळार बेबंद अराज्यवादी लोकांचो एक बळिश्ट क्रांतीकारी पक्ष जालो.

बाकुनिनाचें संग्रहीत केल्लें बरप पयलेच फावट फ्रांसांत १८९५ ते १९१३ ह्या काळांत स खंडांनी छापलें.

'मॅक्स नेतालावस' हाणें बरयल्लें तीन खंडांचें हस्तलिखीत चरित्र 'मिखायल बाकुनिन' (१८९६-१९००) युरोपांतल्या कांय मुखेल वाचनालयांनी पळोवंक मेळटा. तशेंच व्हाय स्टेकलॉव्हान रशियेंतल्यान चार खंडांनी बरयल्ल्या चरित्रांत (१९२६-२७) बरोवप्यान मार्क्सवादी विचारांचेर भर दिल्लो दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**बागकाम** : घरच्या पोरसांत, आंगणांत फुलांचीं झाडां, सोबेचीं झाडां, फळझाडां, पालेभाजी लावन बाग करपाच्या छंदाक बागकाम अशें म्हण्टात. हो छंद फाविल्ल्या वेळांत उमेदीन करपाक मेळटा. बागेची बरी जपणूक करचेखातीर फुलझाडांची, फळझाडांची म्हायती आसप खूब गरजेचें आसता. तशेंच बागकामाखातीर लागपी हत्यारां, बी-बियाणां, सारीं, कलमां, रोपे हांचीय म्हायती आसची पडटा. बाग तयार करचे पयलीं जागेचो विस्तार, जमनीचो कस, उदक, हवामान, वोत हीं शेताचीं मुखेल तत्वां मतींत घेवन बागेची आखणी करची पडटा. तशेंच बरे प्रतीचें बीं, रोग आनी कीटकनाशक वखदां, रसायनीक आनी सेंद्रिय खतांचो योग्य वापर, उदक दिवपाच्यो पद्दती ह्याय गजालींची म्हायती करून घेवची पडटा. बागेची आखणी करतना आकर्शक रीतीन वाफे करून, तातूंत खंयच्या जाग्यार खंयचीं फुलझाडां, फळझाडां वा पालेभाजी लावची हें थरोवचें पडटा. तशेंच खंयच्या हंगामांत खंयचीं झाडां बरीं जावं येतात हें पळोवन त्या त्या वेळार पूर्वनियोजीत बीं वा रोपां लावंचीं पडटात. झाडांची बरी वाड जावपाखातीर नडणी करची पडटा.

जमनीचो कस पळोवन, तातूंत चुन्याचो अंश कितलो आसा तें पळोवन, जमीन पयली खणून भुसभुशीत करची पडटा. झाडाचे वाडीक उपयुक्त आसपी द्रव्यां जमनींत आसल्यार बरें, नाजाल्यार गरजेचीं रसायनीक सारीं (नत्र, स्फुरद, पालाश) तशेंच शेणखत घालून जमीन कसदार आनी सुपीक करून घेवची पडटा. कांय झाडांक वोताची आनी चड उदकाची गरज आसता तर कांय झाडांक सावली आनी थोडें उदक

पुरो जाता. ह्यो सगळयो गजाली मतींत घेवन तीं तीं झाडां योग्य जाग्यार लायल्यार तांची वाड बरी जावन फळय बरें मेळटा. कांय झाडां, वेली वेळच्या वेळार खुटच्यो पडटात. कांय झाडांची कलमां (Grafting) करचीं पडटात. तर कांय झाडांचीं रोपां तयार करून तीं दुसरे सुवातेर परतून लावचीं पडटात.

बागेखातीर आशिल्ल्या जाग्याचो चडांत चड वापर करून, कमी जागो आसल्यार खास फुलझाडांची बाग फुलोवप जाता. व्हड जागो आसल्यार फळझाडांची बाग फुलोवप जाता. व्हड जागो आसल्यार फळझाडां, पालेभाजी, फुलझाडां हांची लागवड करतात. बंगल्यात हरयाळीक (लॉन) चड म्हत्व आसता. बंगल्याभोंवतणी सरयांचे वंयेक वा प्रवेशदाराचेर वेली लावपाची चाल आसा. मेथी वा तसल्याच काट्यांच्या झाडांचोय वंयेखातीर उपेग करतात. बागेंत नाल्ल, पेरां, चिकू, पणस, आंबे, लिंबू, दाळिंब, केळीं, सिताफळां, पोपायो हीं फळझाडां लायतात. तशेंच मोसमी झाडांचोय हातूंत आस्पाव आसता. भाज्यांखातीर पालेभाज्यो, फळभाज्यो तशेंच वालींच्यो भाज्योय आवडीप्रमाण लायतात. बागकामांत सृजनाचो, सौंदर्यनिर्मितीचो आनंद मेळटा. शारांत जागो कमी आसल्यार लोक घराचे गच्चेचेर, जनेलांनी ल्हान ल्हान बागो करतात. कुंड्यांनी वा लाकडी खोक्यांनी खत घाल्ली माती भरून तातूंत रोपे-फूलझाडां रोयतात. तरातरांच्या आकाराच्यो कुंड्यो होय एक कलात्मक बागकामाचो म्हत्वाचो घटक आसा. मातयेच्यो, वेताच्यो, कंवचेच्यो अशा विंगड विंगड प्रकारांच्यो कुंड्यो वापरतात. तशेंच शारांची सोबीतकाय वाडोवपाखातीरूय सोबीत बागो तयार करतात.

बाग करपाफाटल्यान चडकरून दोन हेत आसतात. ते म्हळयार सौंदर्यात्मक सोबीत फूलबाग निर्माण करप आनी व्यक्तिगत उपभोगाखातीर फुलां, फळां आनी भाजीपालो तयार करप. जायत्या घराच्या बागांनी सोबीतकाय आनी उपेग हांचो सांगड घातिल्लो दिसता. तेभायर कारखाने आनी हेर उद्देगधंद्यांच्या आस्थापना सभोंवतणी मनशाचे उत्पादन क्षमतेक वाव दिवपाच्या उद्देशान प्रसन्न वातावरण निर्माण करपी बागो तयार करतात. व्हडा व्हडा शारांतल्यो भौशिक बागो शाराक सोबीतकाय दितनाच, शारांतल्या लोकांखातीर मेकळया वेळांत विसव घेवपाची सोय करतात. बागकाम हें आधुनिक काळांतलें एक खाशेलें शास्त्र जावन ताचें शास्त्रीय शिकप दिवपाची सोय कांय संस्थांनी आसा. वास्तुशास्त्राचें पूरक शास्त्र म्हणुनूय बागकाम शास्त्राचो आतां व्हड प्रमाणांत वापर जावंक लागला.

कों. वि. सं. मं.

**बागडी - १ :** महाराष्ट्रांतली एक जात. ह्या लोकांची वसती चडशी कोल्हापूर जिल्ह्यांत आसा. थंयसावन ते लागसारच्या प्रदेशांत भोंवत आसतात. हे लोक स्वताक खारवी म्हणोवन घेतात आनी वाल्मिकीचे वंशज मानतात. खारव्यांकडेन तांचें खुबशें सारकेंपण आसा. ताचेवयल्यान मुळांत ते महादेव खारवी आशिल्ले अशेंय एक मत आसा. गालफाडे, करंडे, भोळे, चव्हाण, गरड, सासने हीं तांचीं आडनांवां आसतात. एकाच आडनांवाच्या लोकांमदीं लग्नां जायनात. पूण एकाच देवकांत जातात.

म्हसोबा हो तांचो कूलदेव. तशेंच ते खंडोबा, शिदोबा, जाखाई, जोखाई ह्या देवतांकूय भजतात. रुप्याच्या पत्र्यांचेर पूर्वजांच्यो प्रतिमा उदेवन, लग्नकार्या वेळार वा खंयचेय सणा-परबेक तांची पुजा करतात. त्या दिसा बोकडो कापतात आनी लोकांक जेवण घालतात. दर वर्सा आषाढाच्या कृष्ण पक्षांत, मरीआईक बोकडो बळी दितात. त्या वेळार दरेका कुटुंबांत गोंदळ घालतात.

बागडी लोकांमदीं चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. देज म्हणून तो व्हंकलेच्या बापायक कांय रुपया दिता. लग्नाच्या तीन-चार दीस पयलीं व्हंकल- न्हवऱ्याक घरा तेल, हळद लावन न्हाणयतात. उपरांत न्हवऱ्याच्या हातांत सुरो दितात. लग्न-सुवाळो सोंपमेरेन न्हवऱ्यान तो सुरो आपल्या म्हऱ्यांत दवरचो असो नेम आसा. लग्नाच्या दिसा सांजवेळा न्हवरो मिरवणुकेन व्हंकलेच्या गांवांत वचून मारूतीच्या देवळांत रावता. थंय व्हंकले वटेंतले लोक ताका येवकार दिवन पागोटें भेटयतात आनी व्हंकलेच्या घरा व्हरतात. लग्न माटवांत न्हवरो उदेंतेवटेन तोंड करून उबो रावता आनी ताचे सामकार व्हंकलेक उबी करतात. पयलीं मंगलाश्टकां, ताचे उपरांत कांकण बांदपाचो विधी जातकच कन्यादान जाता. उपरांत जेवणावळ जातकच लग्न सुवाळो सोंपता. खंयचेय चलयेक जातींतल्यान कोणाय चल्याकडेन अनैतिक संबंद दवरल्यार तिका दंड भरचो पडटा वा जातींतल्या सगळया लोकांक जेवण घालचें पडटा. त्या वेळार दोगांकूय गोबर खावपाक लावन शुद्ध करून घेतात. परके जातींतल्या चल्यावांगडा अनैतिक संबंद दवरल्यार, चलयेक जातीभायर घालतात. हे जातींतल्या दादल्याक एकापरस चड बायलांकडेन लग्न जावपाक मेळटा. विधवा बायलेक आते वा मामेभावाकडेन लग्न जावपाक मेळटा. बायलेची वागणूक बरी नासल्यार घोवाक, पंचायतीवतीन घटस्फोट घेवपाक मेळटा.

ऐपत आशिल्ले लोक मडें लासतात. हेर लोक पुरतात. लग्न जावंक नाशिल्लो, कुश्ठरोगी वा ल्हान भुरग्यांक पुरतात. पुरिल्ले सुवातेर एक फातर दवरतात. बाराव्या वा तेराव्या दिसा जातींतल्या लोकांक जेवण घालतात.

कांबळ विणप, नुस्तें धरप, भविश्य सांगप, भीक मागप हे तांचे मुखेल वेवसाय.

- कों.वि.सं.मं.

**बागडी - २ :** एक द्रविड जमात. ह्या लोकांची वसती चडशी आसाम, ओडिसा आनी अस्तंत बंगालांत आसा. ह्या लोकांचे उत्पत्तीविशीं कांय आख्यायिका आसात. तातूंतले एके आख्यायिकेंत तांची उत्पत्ती शिव-पार्वतीसावन मानल्या. मिदनापुरी जिल्ह्यांतल्या बागडी ह्या प्रदेशावयल्यान ह्या लोकांक हें नांव मळ्ळें अशें गेट ह्या मानववंशशास्त्रज्ञाचें मत आसा. बागडी लोकांच्यो पोटजाती खूब आसून तांच्येमदीं रोटीबेटी वेव्हार जायनात.

चडशे बागडी लोक वैष्णव. ते शिव, धर्मराज (यम), दुर्गा, गोसाई इरा आनी बडा पहाड ह्या देवतांक भजतात. पूण ह्या सगळ्यांपरस 'मनसा' ही तांची आवडटी देवता. हे देवतेचो उत्सव ते व्हड दबाज्यान मनयतात. आषाढ, श्रावण, भाद्रपद आनी आश्विन ह्या चार म्हयन्यांमदीं बोकड्यांचो बळी दितात आनी शीत, गोडशें, फळां हांचो निवेद्य दाखयतात. नागपंचमीच्या दिसा तिची चार भुजांची मूर्त करून तिची मिरवणूक काडटात आनी उपरांत ती मूर्त उदकांत सोडटात. पावसाळ्यांत थंय सोरपाची भिरांत आसता. ताका लागून बागडी लोक 'मनसा' देवतेक भजतात.

भाद्रपदांतले उमाशेक बांकुरा आनी मानभूम जिल्ह्यांतले बागडी लोक भादू देवीची पुजा करतात. भादू ही पाचेत राज्याची धूव आशिल्ली आनी तिणें आपल्या लोकांखातीर मरण आपणायलें अशी समजूत आसा. तिच्या पुजेच्या उत्सवांत नाच, पदां ह्यो कार्यावळी जातात आनी जाण्टीं-भुरगीं सगळीं हातूंत वांटो घेतात.

ओडिसांतल्या बागडी लोकांमदीं प्रौढ लग्नपद्दत प्रचलित आसा. हांच्या लग्नांत कनिश्ट जातीचे ब्राह्मण पुरयतपण करतात. खऱ्या लग्नापयलीं बागडी तरणाट्याचें लग्न 'महुवा' ह्या झाडावांगडा करतात. तेन्ना ताचो उजवो हात सुतान त्या झाडाक बांदतात, उपरांत तो हात सोडयतात आनी त्याच सुतान ताच्या हाताक महुवाचीं पानां बांदतात. उपरांत न्हवऱ्याकडले लोक व्हंकलेच्या गांवांत वतात. व्हंकलेच्या माटवांत भितर सरतना दोनूय पक्षांमदीं फटीचीं झगडीं जातात आनी तातूंत न्हवरेकारांचें जैत जाता. न्हवऱ्याक उपरांत पाटार बसयतात. पाटाच्या चारूय वटांनी चार मडकीं दवरतात. तातूंतलीं दोन तेलाचीं, तिसरें धान्याचें आनी चवथें शेंदूर भरिल्लें आसता. व्हंकल माटवांत येतकच सव्याभोंवतणीं सात प्रदक्षणां घालता आनी न्हवऱ्या म्हऱ्यांत येवन बसता. त्या दोगांयचेमदीं एक उदकाचो फोंड आसता. उपरांत न्हवरो-व्हंकल आनी व्हंकलेचो बापूय हांचे उजवे हात पुरोयत सुतान एकठांय बांदता. ह्या विधीचो अर्थ, व्हंकलेच्या सोयऱ्यांनी तिका न्हवऱ्याचे सुवादीन करप आनी न्हवऱ्यान तिका आपणावप असो जाता. उपरांत न्हवरो व्हंकलेचो पिंजरीन भांग भरता, ताका 'सिंदूरदान' म्हण्टात. हो सुवाळो सगळ्यांत म्हत्वाचो मानतात.

हे लोक मडें लासतात आनी अस्थी न्हंयेंत उडयतात. अपघातांत मरत जाल्यार तशेंच, ल्हान भुरग्यांक, देवी, पटकी ह्या रोगांनी मेल्ल्यांक पुरतात. ओडिसांतले बागडी लोक, मेल्ल्याची तकली उत्तर दिकेवटेन करून दावे कुशीचेर पुरतात. एका म्हयन्यान श्राद्ध करतात.

- कों.वि.सं.मं.

**बागडी - ३ :** राजस्थानांतली एक जात. बागड उतराचो अर्थ रान असो आसा. हे जातीचे लोक पयलीं रानांनी रावताले. तेखातीर तांकां बागडी हें नांव मेळ्ळें. ह्या लोकांची उत्पत्ती राजपुतांपसून जाली अशें टॉड हाचें मत आसा. तांचेमदीं पंवार, पडिहार, कोळी, चारण, भाटी, ओरी, डाबी अशो पोटजाती आसात.

हे लोक चडशे सगळ्या देवांक भजतात आनी तांच्यो परबो मनयतात. गाय, म्हस, मोर आनी हंस हीं तांचीं देवकां आसात. हांकां मारीत जाल्यार बागडी मनशाक जातपंचायतीकडेन दंड भरचो पडटा.

शेती हो तांचो मुखेल वेवसाय. कांय सुवातींनी ते पशू चिकित्सा करतात. हांच्यांतले कांय लोक बावरी लोकांवांगडा मध्य प्रदेशांत वचून चोरी करप, दरोडो घालप असलेय वेवसाय करूंक लागले. बागडी लोक कुडीन बळिश्ट आसतात. ते पाचव्या कोराचे कपडे घालतात. शिपायी बाण्याचे हे लोक सदांच आपलेकडेन एक पिस्तोल बाळगितात.

बागडी लोक एकाच देवकांत लग्न जायनात. व्हंकलेच्या मनगटांत एक दोरो बांदून लग्न थरयतात. लग्नाच्या वेळार व्हंकलेच्या बापायक देज म्हणून तशेंच जातपंचायतीक कांय रुपया दिवंचे पडटात. लग्नांत गुर्रा हो पुरयतपण करता. सप्तपदी हो लग्नांतलो मुखेल विधी आसता.

भुरग्याच्या जल्मावेळार ऐपत आशिल्ले लोक सोयऱ्या - धायऱ्यांक जेवण घालतात. भुरग्याची पत्रिका ब्राह्मण तयार करता आनी तोच नांव दवरता. पांच ते धा दीस मेरेन सुयेर पाळटात.

हे लोक मडें लासतात. ल्हान भुरग्यांक मात पुरतात. तिसऱ्या आनी बाराव्या दिसा श्राद्ध करतात. वर्सुकी श्राद्धूय करतात.

- कों.वि.सं.मं.

**बागल, भीमराव रामचंद्र :** (जल्मः २७ फेब्रुवारी १९२३, गडेगांव, पंढरपूर).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी माध्यमिक शिक्षण घेतलें. सुरवेक तो 'पिझंट आनी वर्कर्स पार्टी' चो वांगडी आसलो. उपरांत १९५९ त तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटनेचो वांगडी जालो. दत्तात्रय तिवरे हाच्या मार्गदर्शनाखाल ६ जुलय १९५५ ह्या दिसा पैंगीणी (काणकोणां) जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरून खूब मारलो,

जाका लागून ताच्या उजव्या हाताक मार लागलो. उपरांत ताका पोलिसांनी *शिमेभायर घालो. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा पंढरपूर नगरपालिकेवतीन* ताचो भोवमान केलो.

- कों.वि.सं.मं.

**बागवान :** मुसलमानांची एक जात. ह्या लोकांची वसती महाराष्ट्रांत आनी कर्नाटकांत आसा. हे लोक मूळचे कुणबी, माळी आसून औरंगजेबान हांकां बाटयले, अशें एक मत आसा. हे हनफी सुनी पंथाचे अनुयायी. सुरवेक हिंदू धर्माकडेन तांची चड ओड आसली. हे लोक तेन्ना हिंदू देवतांक भजताले. गायचें मास खायनासले. पूण हिंदुंच्यो परबो ते मनयताले. आयच्या काळांत ते हेर मुसलमानां भाशेन इस्लाम धर्म पाळटात.

*तरातरांचीं फळां विकप हो तांचो मुखेल वेवसाय.*

- कों.वि.सं.मं.

**बाजरी :** (हिंदी, गुजराती : बाजरा ; कन्नड : सज्जे, सजुगरे ; इंग्लीश : पर्ल मिलॅट, बुलरश मिलॅट; लॅटीनः पेनिसेटम स्पायसेटम, पे टायफॉयडस; कूळ - ग्रॅमिनी).

ह्या तणाचें खोड सुमार १.५-२.० मी. ऊंच वाडटा आनी ताचेर *जायत्यो खांदयो आनी सादारणपणान ०.५ मी. लांब आनी अशीर* पानां आसतात. खोडाक मुळाकडेन आंकऱ्यो येतात. फुलांची ताळी लांबशी, केसांळ आसून कणसांतल्या दर फुलाचे जोडयेंतलें सकयलें फूल नर आनी वयलें फूल द्विलिंगी आसता. फळां हळदुवसार, करडी वा *लेव निळसार आनी बारीक आसतात.*

ह्या तणाचें मूळस्थान मध्य आफ्रिका आसून थंयचो उश्ण वाठार, अरबस्थान आनी भारत ह्या प्रदेशांनी ह्या पिकाची व्हडा प्रमाणांत लागवड जाता. सद्याच्या काळांत हें पीक अमेरिकेंत, संयुक्त संस्थानांनी आनी संवसारांतल्या हेर वाठारांनी धान्य वा गोरवांचे खावडीचें पीक म्हणून लागवडीखाल आसा. भारतांतलें हें एक म्हत्वाचें पीक. क्षेत्र आनी उत्पादनाचे नदरेन ह्या पिकाचो नंबर भात, गंव आनी ज्वारी हांचेउपरांत लागता. राजस्थानांतलें सगळयांत चड क्षेत्र ह्या पिकाखाला (सुमार ३२%) आशिल्लें. ताचे उपरांत गुजरात, महाराष्ट्र, हरियाणा, उत्तर प्रदेश हीं हेर म्हत्वाचीं राज्यां आसून आंध्रप्रदेश, कर्नाटक, मध्य प्रदेश, तमिळनाडू आनी पंजाब ह्या राज्यांनीय ह्या पिकाखाला १ ते ५% क्षेत्र आशिल्लें. देशांतल्या बाजरेच्या वट्ट क्षेत्रांत फकत सुमार ३% क्षेत्र बागायतीखाल *आसा. गोंयांत ह्या पिकाची लागवड चडशी करिनात. फकत गोरवांक* खावड म्हणून क्वचीत केल्ली दिसता.

१९६५ मेरेन भारतांत बाजरेचो थळावोच प्रकार लागवडीखाल *आशिल्लो. उपरांत बाजरेचो पयलो संकरीत चड उत्पन्न दिवपी प्रकार* एच्बी-१ लागवडीखाल हाडलो. ताचेउपरांत एच्बी-२, एच्बी-३, एच्बी-४ आनी एच्बी-५ हे संकरीत प्रकार लागवडीखाल हाडले. पूण ह्या प्रकाराक रोग लागून ते रोखडेच मरतात अशें दिशिल्ल्यान १९७७ *सावन ह्या रोगाक प्रतिकारक अशे फुडले संकरीत प्रकार लागवडीखातीर* काडल्यात (१) बी.जे. १०४ (२) बी.के. ५६० (३) बी.डी. १११ (४) सी.जे. १०४.

बाजरेच्या पिकाक मध्यम सुकी हवा आनी उणो पावस लागता. तशेंच उदक बरे भाशेन व्हावून वपची जमीन लागता. ६-८ वरां परस चड वेळ उदक उरल्यार तें पिकांक आपायकारक जावंक शकता. सादारणपणान वेगवेगळया म्हयन्यांतलें पावसाचो अदमास घेवन पेरणी केन्ना करप तें थरयतात. हें पीक चड करून तिनूय हंगामांनी घेतात. *पेरणी उसरां केल्यार उत्पन्न उणें येवंक शकता. एक हॅक्टर सुवातेंत* सुमार ७०० चौ.मी. क्षेत्रातलीं रोंपां पुरो जातात. रोंपांच्या दोन ओळींतलें अंतर ४५-५०सेंमी. आनी दोन झाडांमदलें अंतर ९-११सेंमी. दवरल्यार एक हॅक्टर क्षेत्रांत सुमार पावणे दोन ते दोन लाख झाडां लागतात. *बाजरेचें पीक सादारणपणान नासणें, कापूस, भिकणां, तंबाकू आदी* पिकांवांगडा आलटून-पालटून घेतात. पूण दक्षिण भारताच्या कांय भागांनी हें पीक सतत तेच जमनींत घेतात. बागायती पिकाक गरजेप्रमाण उदक दितात. थळाव्या प्रकारच्या जिरायती पिकाक हॅक्टरी १२किग्रॅ. नायट्रोजन, *बागायती पिकांक २५किग्रॅ. नायट्रोजन आनी २५ किग्रॅ.* फॉस्फरस तशेंच संकरीत बाजरेक ५०-७५ किग्रॅ. नायट्रोजन, ५० किग्रॅ. फॅस्फरस आनी ५० पोटॅश लागता. झाडाक कणसां तयार जातकच मुळाकडेन कापून २-३ दीस शेतांत सुकयतात. उपरांत बैलांच्या वा यंत्राच्या आदारान तांची मळणी करतात. जिरायती बाजरेचें उत्पन्न हॅक्टरी ३०० ते ५००किग्रॅ. आसता. पूण बरे जमनींत आनी फावो तो वावर केल्यार उत्पन्न ७०० ते १२००किग्रॅ. मेरेन मेळटा.

बाजरी (दाणे) हे देशाच्या खूबशा वाठारांतल्या लोकांचें मुखेल *अन्न. पोशणमोलाचे नदरेन तें तांदूळ आनी गंवाचे तोडीचें आसा. दाण्यांत* कुंड्याचें प्रमाण ९ ते १०% आसता. ताका लागून दाण्यापसून कुंडो पयसावन तें तांदळावरी शिजोवन, पेज करून खातात. तेचपरी हे दाणे दळून पिठाची भाकरी करतात. पाचवीं कणसां भाजून तेचपरी दाण्याच्यो *ल्हायो करून खातात. कांयकडेन जनावरांचें आनी कोंबयांचें खाद्य* म्हणून बाजरेचो उपेग करतात.

बाजरेच्या दाण्यांत १२.४% जलांश, ११.६% प्रथिनां, ५% स्निग्ध, ६७.१% कार्बोहायड्रेट, १.२% धागे आनी २.७% खनीज *द्रव्यां आसतात. बाजरेच्या पिकाक केवडा, अरगट, तांबेरा काणी* हे रोग आनी हिंगे, पाखां नाशिल्ले टोळ, खरपुडी, लश्करी किडो ह्यो किडी

लागतात. ह्या रोगांचेर आनी किडींचेर प्रतिबंध हाडूंक रोगप्रतीकारक जातीची लागवड करप, वा कवक नाशकांचो फवारो मारप वा बी. एच्. सी. ची भुकटी फवारप हे उपाय करतात.

- कों.वि.सं.मं.

**बाजारपेठ :** अर्थीक खरेदी-विक्रीच्या वेव्हाराचें थळ. बाजारपेठ हें उतर बाजार आनी पेठ हीं दोन उतरां मेळून तयार जालां. बाजार हें मूळ पर्शियन उत्तर. पूण ताका हट्ट अशें पर्यायी संस्कृत उतर आसा. हीं दोनूय उतरां एकठांय करून बाजारहाट हें उतर प्रचलीत जालें. उपरांत बाजार आनी हाट अशा मेकळ्या उतरांनी बाजाराचो अर्थ रूढ जालो. कांयकडेन बाजारगंज आनी बाजारपेठ असोय बाजार निर्देशीत उतरांचो वापर करप जाता, पूण गंज आनी पेठ हातूंतल्यान स्थलकालीन अशी व्यापक अर्थाची अर्थशास्त्रीय संज्ञा अभिप्रेत आसता.

सदळ अर्थान बाजार आनी बाजारपेठ ह्या दोनूय संज्ञांचो संबंद वस्तूंची खरेदी-विक्री करपाच्या थळाक लावप जाता. ज्या थळार विक्रेच्यो वस्तू विक्रेखातीर दवरतात आनी जंय गिरायक खरेदी करपाक येता त्या थळाच्या आवाराक सादारणपणान बाजार वा बाजारपेठ म्हणप जाता. अशें आसलें तरी शास्त्रीय नदरेन बाजार आनी चड करून बाजारपेठ हे संज्ञेची व्याप्ती वस्तूंचे खरेदी-विक्रीचे उलाढालीपुरती वा उलाढालीच्या थळापुरती उरनासतना तातूंत वस्तूंचे खरेदी-विक्री वांगडाच भाडेंखरेदी, उदारी, करार हेसारकिल्ले अर्थीक वेव्हार हांचोय आस्पाव जाता. तशेंच मजूर बाजारपेठ, चलन बाजारपेठ, गुलाम बाजारपेठ, अशो सर्वसादारण जिनसांच्या बाजारपेठांपरस वेगळ्या बाजारपेठांचो आस्पाव हे संज्ञेंत जाता. हातूंतल्या कांय अर्थीक-खरेदी-विक्रीच्या वेव्हारांखातीर अमुकूच अशा थळाची गरज आसना. अशा बाजारपेठांनी विकपी आनी विकतें घेवपी हांचो प्रत्यक्ष संपर्क येवपाचीय गरज उरना. इतलेंच न्हय जाल्यार, कांय अर्थीक वेव्हारांचे बाबतींत विक्रेची वस्त दोगांयनीय आपल्या दोळ्यांनी पळयल्ली लेगीत नासता.

बाजारपेठेंतले खरेदी-विक्रीच्या प्रकारांप्रमाण बाजारपेठांचे सदळपणान दोन प्रकार जातात. १) परिपूर्ण सर्तीची बाजारपेठ आनी २) मक्तेदारी बाजारपेठ. परिपूर्ण सर्तीचे बाजारपेठेंत मालाचें मोल हें पूर्वनिर्धारीत आसता. विकपी वा विकतें घेवपी हांचे दोगांयचें त्या मोलाचेर गरजेभायर नियंत्रण उरना. अशे बाजारपेठेंत विक्रेच्यो वस्तू एकजिनसी आसतात आनी विकतल्यांक तसोच विकत घेवप्यांचो बाजारप्रवेश अनिर्बंदीत आसता. मक्तेदारी बाजारपेठेंत म्हाल विकपाचें नियंत्रण म्हालाच्या मोलाचेर उरता. अशे बाजारपेठेंत ताका प्रतिस्पर्धी निर्माण जावपाची शक्यताय नासता. प्रत्यक्ष वेव्हारांत दोनूय प्रकार दिसतात. म्हालाच्या मोलाचेर कोणाचें नियंत्रण उरना आसलें तरी दोन उत्पादकांमदीं सर्त उरता. ही सर्त जायरात, बरी सेवा अशा म्हालाच्या गूणविरयत घटकांवरवीं आपली मक्तेदारी निर्माण करता आनी अमूक अशा काळांत हेर उत्पादाकांचेर वर्चस्व गाजयता. तशेंच कांय प्रमाणांत म्हालाच्या मोलाचेरूय नियंत्रण दवरूंक पावता. कांय उत्पादक संस्था, बाजारपेठ आपसांत वांटून घेतात आनी संयुक्तपणान बाजारपेठेचेर आपलो प्रभाव घालतात. भुगोलीक कारणांक लागून खनीज तेलां, भांगर ह्या सारकिल्या दुर्मीळ वस्तूंचो सांठो थरावीक सुवातांनी आशिल्ल्यान अशा लोकांची राश्ट्रांच्या अशा वस्तुंचे विक्रेचेर मक्तेदारी उरता.

खरेदी-विक्रीच्या वेव्हारांत सगळया घटकांक तांच्या योगदानाप्रमाण कामाचो मोबदलो मेळचो ह्या उद्देशान खरेदी विक्रीच्या वेव्हाराचेर खाशेलें नियंत्रण दवरप जाता. अशे बाजारपेठेक नियंत्रीत बाजारपेठ म्हण्टात. हें नियंत्रण सरकारी वा निमसरकारी यंत्रणेवरवीं जाता. वस्तूंचें मोल, बाजाराचें आवार, दलाली, हमाल, म्हालाची विक्री, वजनमापां, गुदांव हे संबंदी हें नियंत्रण आसून खरेदी-विक्रीच्या वेव्हारांत मूळ उत्पादक ताच्या दुबळेपणाक लागून फटवंचो न्हय तशेंच ह्या वेव्हारांत फटींगपणां जावपाक वाव मेळचो न्हय म्हणून बंधनां घाल्लीं उरतात.

थळाप्रमाण प्रदेशीक, राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय अशे बाजारपेठांचे तीन प्रकार आसात. प्रदेशीक बाजारपेठेंत मुखेलपणान थळाव्या वस्तूंचो आनी हेर अर्थीक घटकांचे खरेदी-विक्रीचो आस्पाव जाता. राश्ट्रीय बाजारपेठेंत एका देशांत निर्माण जाल्ल्या वस्तूंचो आस्पाव जाता. आंतरराश्ट्रीय बाजारपेठेंत एकापरस चड राश्ट्रांचे अर्थीक खरेदी-विक्रीचो संबंद येता.

बाजार भरपाच्या कालावधीप्रमाण बाजाराचो दीसपट्टो बाजार, सप्तकी बाजार अशे भेद करूं येतात. दर वर्सा वा दर दोन-तीन वर्सांनी भरपी फेस्तां-जात्रा, मेळ ह्या सारकिल्या प्रसंगीक उत्सवांनी अर्थीक उलाढाली जातात आशिल्ल्यान हे उत्सवूय बाजारपेठ हे संज्ञेखाला येतात.

गोंयांत दर एका शारांत एक वा एकापरस चड बाजारपेठो आसात. थंय दीसपट्टी खरेदी-विक्री जाता. तेभायर तेच बाजारपेठेंत सप्तकी अशी खाशेली आनी व्हड प्रमाणांतली खरेदी-विक्री जाता. जात्रा, फेस्तां सारकिल्ल्या धर्मीक सुवाळ्यांच्या निमतान खाशेले बाजार (फेरी) भरतात. अशा फेरयांनी खाणा-जेवणाचे जिन्नस, कपडो-लत्तो, फर्निचर, आयदनां सारकिल्ल्यो गरजेच्या घरगुती वस्तूंची लोक साठंवण करून दवरतात. आधुनिक काळांत पुस्तकां, मशिनां, फूलझाडां सारकिल्ल्या वस्तूंचीं खाशेलीं प्रदर्शनां भरतात. तातूंत प्रदर्शनावांगडा विक्रीय करप जाता. जात्रा, फेस्तांतल्यो फेरयो आनी प्रदर्शनां हातूंत खरेदी-विक्री जाता आशिल्ल्यान तांकांय तातपुरत्या काळाचे बाजार म्हणूं येतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बाजीराव (दुसरो) :** (जल्म : ७ जानेवारी १७७५, धार; मरणः १४ जानेवारी १८५१, ब्रह्मावर्त).

मराठी राज्याचो निमाणो पेशवो. रावबाजी आनी बाबासाहेब ह्याय नांवान ताची इतिहासांत वळख आसा. रघुनाथराव आनी आनंदीबाई हांचो तो व्हडलो पूत. भुरगेपणांत तो मस्तो आनी सभावान विचित्र आशिल्लो. सवाई माधवरावाक मरण येतकच नाना फडणीसान पेशव्याचे गादयेर हेर वारस बसोवपाचो यत्न केलो. पूण ताका तातूंत यश मेळ्ळेंना. ताका बाजीरावाकच पेशवेपदार बसोवंचो पडलो. बाजीरावाचें आनी नाना फडणीसाचें केन्नाच पटलेंना. अखेर बाजीरावाक यश मेळ्ळें आनी नाना फडणीस बंदखणींत गेलो. शिंदे आनी होळकर सुरवातीसावन ताचेर आपलें व्हडपण दाखयताले. तांचेपसून सुटका मेळूंक ताणें इंग्लिशांवांगडा अपमानास्पद करार केलो (डिसेंबर १८०२). ताणें तांची तैनाती फौजेची अट मान्य केली. तशेंच इंग्लिशांच्या परवान्याबगर ताका हेरांकडेन संबंद दवरूंक मनाय आशिल्ली.



बाजीरावान त्या वेळचो छत्रपती प्रतापसिंह हाचो अपमान करून ताका बंदखणींत घालो. हे परिस्थितीचो फायदो घेवन, छत्रपतीचो अपमान केल्ल्या आरोपाखाल एल्फिन्स्टन हाणें ताचे वांगडा झूज केलें. ह्या अश्टीच्या झुजांत (१८१८) ताका हार घेवंची पडली. फुडें इंग्लिशांनी ताका अटक करून ब्रह्मावर्ताक व्हरून दवरलो.

दुसरो बाजीराव व्हडलोसो झुजारी नाशिल्लो. सुरवातीसावन तो कारस्थानी आशिल्लो. पुण्यांत आसतना स आनी ब्रह्मावर्ताक आसतना पांच असो तो इकरा खेपे लग्नां जालो. ताका तीन चलयो आनी एक चलो आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**बाजीराव (पयलो) :** (जल्म : १८ ऑगस्ट १७००; मरण : २८ एप्रिल १७४०).

दुसरो पेशवो आनी एक व्हड सेनानी. बापायचें नांव बाळाजी विश्वनाथ आनी आवयचें नांव राधाबाय. ताचें मूळ नांव विसाजी. पूण बाजीराव बल्लाळ आनी पयलो बाजीराव ह्याच नांवान ताची इतिहासांत वळख आसा. पिरायेच्या तेराव्या वर्सा महादजी कृष्ण जोशी हाचे काशीबाय नांवाचे चलयेकडे लग्न जालें (१७१३). ताका चार चले आशिल्ले. तातूंतल्या नानासाहेब आनी रघुनाथरावांची नामना आसा.

ल्हानपणासावनूच ताका बापायवांगडा घुरी घालपांत तशेंच शिकारेक वतना वांगडा राविल्ल्यान झुजाचें तेचपरी राजकारणाचें गिन्यान मेळिल्लें. १७१८ त बापायवांगडा सय्यद भावांच्या आदाराक दिल्लीक गेल्लेकडेन सैन्यांतलो एक पंगड ताच्या हाताखाल आशिल्लो. ताची हुशारकाय जाणून घेवन १७ एप्रिल १७२० ह्या दिसा छत्रपती शाहून ताका पेशवेपदाचीं वस्त्रां दिलीं. ह्याच वेळार मराठी राज्याक चारूय वटांनी दुस्मानांनी रेवाडो घाल्लो. १७२४ त दख्खनचो सुभेदार निजामुल्मुल्क हो दक्षिणेंत ठाण मांडून बशिल्लो. बाजीरावान सुरवेक ताका वाटेक लायलो तेचपरी ताचेकडल्यान दख्खनच्या चौथ सरदेशमुखीन मान्यताय मेळयली. तेभायर मोगलांकडेन आशिल्लीं मिरज, अहमदनगर सारकीं ठाणीं आनी सिद्दी तशेंच पोर्तुगेज हांणी घेतिल्लो अस्तंतेकडलो वाठार ताणें सोडोवन घेतलो. ताचीं सुरवेचीं तीन-चार वर्सां खानदेश बागलाण-कर्नाटक आदी वाठारांनी घुरयो आनी शिकारेंत गेलीं.

१७२७ त कोल्हापूरच्या संभाजीकडेन एकचार करून मराठी राज्यांत फूट घालपाचो निजाम यत्न करतालो. ताचो यत्न मोडून काडपाक बाजीरावान व्हड सैन्य घेवन निजामाच्या मुलखाचेर धाड घाली. ताणें खानदेश, बऱ्हाणपूर, सुरत आदी वाठारांत धुडगूस घालून ताच्यो नाळी निरूपयोगी केल्यो. निमाणें निजामान शरण येवन ६ मार्च १७२८ त मुंगी शेवगांवचो करार केलो. निजामाचेर जैत मेळयल्ल्यान शाहूच्या दरबारांत बाजीरावाचें म्हत्त्व वाडलें.



बाजीराव पयलो

१९२७ त सेनापती दाभाडे हाणें निजामाकडेन मेळून पेशव्यांआड एक कारस्थान रचलें. पेशव्यांचे सरदार चौथ सरदेशमुखी खातीर आपल्या वाठारांत येतात हें ताका मान्य नाशिल्लें. बाजीरावाक ह्या कारस्थानाची खबर मेळटकच तो गुजरातेंत चाल करून गेलो आनी १ एप्रिल १७३१ ह्या दिसा ताणें दाभाडे सैन्याचेर जैत मेळयलें. १७२७ त जंजिराच्या सिद्दीच्या एका सरदारान छत्रपतींचो गुरू ब्रह्मेंद्रस्वामी हाचें चिपळूणांतलें परशुरामाचें देवूळ मोडून उडयलें. अशा वेळार बाजीरावान राजापुरीचें बंदर घेवन नाविक दळाचो कांय भाग घेतलो. पूण जंजिराचेर मात ताका जैत मेळोवंक आयलेंना. २६ मार्च १७३७ ह्या दिसा ताणें मराठी सैन्य घेवन साश्टी जुंव्यांत वचून पुर्तुगेजांचेर जैत मेळयलें. १७३३ त पेशव्यान सवाई जयसिंगाकडेन झूज केलें. १७३४ त बुंदी, दंतिया, ओर्छा ह्या वाठारांतल्यान पेशव्याच्या सरदारांनी चौथाई वसूल केली. त्याचवेळार राजस्थानांत मुकंदर घाट काडून शिंदे-होळकरांनी मीरबक्षी खान दौरा हाच्या सैन्याक घेराव घालो. माळव्याचो चौथाई म्हणून मोगल दरबारान दर वर्सा मराठ्यांक बावीस लाख रूपया दिवंचे हे अटीर झूज थांबयलें. पूण मीरबक्षी आनी सवाई जयसिंग हाचें तडजोडीचें धोरण जशें मोगल दरबारांत मान्य जायना जालें तसो बाजीराव आपली फौज घेवन उत्तरेंत चाल करून गेलो (१७३७). ताणें दिल्ली दरबाराकडेन माळव्याची सुभेदारी, मांडू, धार, रायसीन आदी किल्ले, कांय जहागिरी बंगालच्या वसुलांत ५० लाखांचो चौथ, अलाहाबाद, वाराणसी, गया, मथुरा, आदी हिंदूंचीं पवित्र क्षेत्रां, दख्खनची सरदेशपांडेगिरी, दक्षिणेंत ५० लाखांची जहांगीर ह्यो मागण्यो केल्यो. जेन्ना दिल्ली दरबाराक पेशव्याच्यो ह्यो वाडट्यो मागण्यो मान्य जाल्योनात, तेन्ना १७३७त पेशव्यान उत्तरेकडेन परत चाल केली.

२० मार्च ह्या दिसा ताची वाट आडावन धरपाक आयिल्ले मुसलमानी फौजेक चुकोवन ते दिल्लीलागसार येवन पावले. हे वटेन दिल्ली दरबारांत मराठ्यांचें वर्चस्व स्थापन जातलें ह्या भंयान निजामूय उत्तरेंत आयलो. मराठ्यांची धुरी मोडून काडपाक व्हड फौज, तोफखानो आनी भरपूर खजिनो निजामाचे सुवादीन केल्लो. पूण भोपाळ लागसार पेशव्यान निजामाक मेळोवन १५ डिसेंबर १७३७ ह्या दिसा तांचेर जैत जोडलें. तेन्ना निजाम भोपाळच्या किल्ल्यांत आलाशिऱ्याक गेलो. तरी पेशव्याचे फौजेन थंयच ताची नाकेबंदी केल्ली. निमाणें ७ जानेवारी १७३८ ह्या दिसा दिल्ली दरबाराकडल्यान तांच्यो मागण्यो मेळोवन दितां हे अटीर तांकां मराठ्यांकडेन समेट करचो पडलो. माळवा, सुभा, नर्मदा आनी चंबल हांचे मदलो सगळो वाठार मराठ्यांक दिवपाचो आनी तेविशींचें बादशाही फर्मान पेशव्याक मेळोवन दिवपाचे हे अटीर पेशव्यान आपलो रेवाडो काडलो. पेशव्याचे कारकिर्दींतलें हें सगळ्यांत उंचेलें जैत.

१७४० त ताणें निजामाचो व्हडलो चलो नासरजंग हाका हारयलो. फुडें नर्मदे देगेर रावरखेडीक मुक्काम आशिल्लेकडेन जोराचें निमित्त जावन ह्या व्हड पेशव्याक मरण आयलें.

बाजीराव स्वभावान तापट आशिल्लो तरी सेनापतीक फावोसारको धीर आनी धाडस ताचेकडेन आशिल्लें. ताची खासगी जीण सादी आशिल्ली. उत्तरेकडले घुरयेंत ताचो मस्तानी नांवाचे नर्तकी कडेन संबंद आयलो (१७२९). छत्रसालान ती पेशव्याक दिल्ली. त्यावेळार सावन ती फुडें सगळ्या घुरयांनी बाजीरावावांगडा आसताली. तिचेपसून ताका समशेर नांवाचो चलो जाल्लो, जाका फुडें पानिपतचे घुरयेंत (१७६१) मरण आयलें. तिच्या नांवाचो महाल पुण्यांत शनिवारवाड्यांत आसा. बाजीराव पेशव्यान निजाम, सिद्दी, पुर्तुगेज ह्या सारक्या दुस्मानांक तोंड दिवन मराठी राज्याचें आसन थीर केलें. ताणें दिल्ली दरबारांत मराठी सत्तेक मानाची सुवात मेळोवन दिली.

- कों. वि. सं. मं.

**बाटली :** लाकूड, रबर, कंवची, बूच (कॉर्क) ह्या पदार्थांच्या धांपण्यान वा हेर तरेच्या आच्छादनान (प्लास्टीक वा धातू) भितरली वस्त बंदिस्त करपाची तजवीज आशिल्ल्या धारकपात्राक बाटली अशें म्हण्टात. बाटली अशीर वा रूंद तोंडाची आसून ती कंवची, सिरॅमीक, धातू, रबर, चामडें, प्लास्टीक हांचेपसून तयार करतात. बाटल्यो खास करून कंवचेच्यो तयार करतात, पूण हालींच्या दिसांनी प्लास्टीकच्यो बाटल्यो तयार करपाचें प्रमाण वाडत आसा.

**इतिहास :** पुर्विल्ल्या काळांत दुदी, शंख हांतूतलो भितल्लो भाग काडून पोकळ केल्ल्या सैमीक पदार्थांच्यो वा जनावरांचें चामडें शिंवून तयार केल्ल्या पिशव्यांच्यो बाटल्यो तयार करताले. इजिप्त आनी ग्रीसांत बोकड्याच्या शरिरांतलो भितरलो भाग काडून उडोवन आनी खोळीसारकें शिंवून सोऱ्या सारकीं मादक पेयां सांठोवपाखातीर आनी येरादारीखातीर बाटली म्हणून वापरताले. बायबलाच्या पोरन्या करारांत सोऱ्याखातीर चामड्याचे बुधले (कार्गे) वापरताले, असो उल्लेख मेळटा. आयजूय अस्तंत आशियांत उदक सांठोवपाखातीर चामड्याचो वापर करतात. सुकयल्ल्या दुदयाचें कट्टें द्रव पदार्थ सांठोवपाखातीर बाटलेच्या रूपांत वापरपाची प्रथा आफ्रिकेंत आसा. दक्षिण तुर्कस्तानांत पायन रूखाच्या लाकडासावन अजुनूय बाटल्यो तयार करतात.

इ.स.प. ८००० वर्सांसावन मातयेच्यो (Ceramics) बाटल्यो प्रचारांत आयल्यो. ग्रीक, रोमी, इजिप्शीयन आनी फिनिशियन लोक तेल, सोरो सांठोवपाखातीर मातयेच्यो बाटल्यो वापरताले. इ.स.प. सुमार १५०० वर्सांसावन इजिप्त आनी सिरियेचे लोक कंवचेच्या पात्रांचो वापर करताले अशे पुरावे मेळटात. तक्षशिलांतल्या उत्खननांत इ.स.प. ३०० च्या उपरांतच्यो कंवचेच्यो कांय बाटल्यो मेळ्ळयात. पुर्विल्ल्या इजिप्शीयन लोकांनी रूप्याच्यो बाटल्यो तयार केल्यो. १८५७च्या सुमाराक अमेरिकेंत कागदी बाटल्यो वापरांत आशिल्ल्यो.

सतराव्या शेंकड्यांत इंग्लंडांत कंवचेच्यो बाटल्यो तयार करपाक सुरवात जाली. स्वंयचलीत यांत्रीक पद्दतीन बाटल्यांचें उत्पादन करपाची कृती मायकल जे. ओएन्स हाणें सोदून काडली आनी १९०३ सावन ती वेपारी प्रमाणावयल्या उत्पादनाखातीर वापरांत आयली. सांच्यांचो उपेग करून बाटल्यो तयार करपाच्या तत्त्वाचेर पूण स्वयंचलीत यंत्रांवरवीं हालीं बाटल्यांचें व्हडा प्रमाणांत उत्पादन करतात.

प्लास्टीकच्या सोदाउपरांत आनी दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांतच्या काळांत प्लास्टीकच्यो बाटल्यो तयार करपाक सुरवात जाली. सुरवेक ह्यो बाटल्यो उणे घनतेच्या पॉलिइथिलिनापसून तयार करताले. १९६० च्या सुमाराक उच्च घनतेच्या पॉलिइथिलिनाचो उपेग बाटल्यांखातीर जावपाक लागलो. ह्यो बाटल्यो दाट, घट आनी सवाय आसताल्यो.



**कच्चो माल :** कंवचेच्यो बाटल्यो तयार करपाखातीर सिलिका, रेंव ($SiO_2$), सोडा ॲश ($Na_2CO_3$) आनी डोलोमाइट (चुनो) (Cao. Mgo) हांचो उपेग करतात. आयर्न ऑक्सायडाचो वापर बाटलेक पाचवो रंग हाडपाखातीर करतात. सिलिनियम संयुगाक लागून तांबडो रंग येता, कोबाल्ट ऑक्सायडाक लागून लेव सुक्या तणा आसलो रंग येता. आर्सेनीक ट्राय-ऑक्सायडाक लागून हळदुवसार पाचवो रंग येता. वैजकी रसद्रव्यां आनी हेर संवेदनशील वखदांखातीर बोरोसिलिकेट कंवचेच्यो बाटल्यो वापरतात.

प्लास्टिकच्यो बाटल्यो तयार करपाखातीर पॉलिओलेफिनां, पॉलिस्टायरीन आनी पीव्हीसी हांचो वापर करतात.

**उत्पादन कृती :** कंवचेच्यो आनी प्लास्टिकच्यो बाटल्यो फुंकून सांच्या वरवीं तयार करतात. तेखातीर पयलीं स्थुलाकार सांचो तयार करून घेतात आनी ताचेवरवीं बाटली तयार करून मागीर ती निमाणो आकार दिवपी सांच्यांत व्हरून तिचेर फुडले संस्कार करतकच बाटली तयार जाता. ही सगळी कृती स्वयंचलीत यंत्रान अखंडपणान करतात. बाटली तयार जातकच एका वाहक पट्यावरवीं अनुशीतन (ल्हव ल्हव तापमान उणें करपी) भाटयेंतल्यान निमाणे तपासणेखातीर आनी निमाणे गुठलावपाखातीर धाडटात.

**प्रकार आनी गुणधर्म :** कंवचेच्यो बाटल्यो ह्यो रसायनीक नदरेन अक्रीय, पारदर्शक, चड घटसाणेच्यो आनी बलाच्यो, सांठवणेंत चड काळ तगून उरपी, उगडपाक आनी बंद करपाक सोंप्यो आसतात. तशेंच त्यो बऱ्याच आकारांनी तयार करतात. खेरीज, एकदां वापरिल्ल्यो बाटल्यो परत वापरप शक्य आसतात. उण्या वजनाच्यो पूण चड बलाच्यो बाटल्यो दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत चड प्रमाणांत वापरांत आयल्यो. पारदर्शकताय, ओडलायण्यो आनी विंगड विंगड आकार हांकां लागून ह्यो बाटल्यो गिरायकांक आवडटात.

प्लास्टिकच्यो बाटल्यो चिवट आसून त्यो दामून तातूंतल्यान द्रव पदार्थ सहज भायर काडूंक येतात. तशेंच त्यो तापोवंक वा निर्जंतूक करूंक मेळनात. त्यो रसायनीक नदरेन पुराय अक्रीय नाशिल्ल्यान भितरल्या पदार्थांच्या वास, सुवाद, आर्द्रताय ह्या गुणधर्मांचेर वायट परिणाम जाता.

**उद्देग :** अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, जापान, ब्रिटन, रशिया, जर्मनी, फ्रांस आनी हेर चडशा विकसीत देशांनी कंवचेच्यो आनी प्लास्टीकच्यो बाटल्यो तयार करतात. ह्यो बाटल्यो सादारणपणान अन्न, सौंदर्यप्रसाधनां, रसायनां, वखदां, मादक पदार्थ आनी पेयां आनी दुदाचे वेवसाय हांचेखातीर वापरतात. कंवचेच्यो बांटल्यो तयार करपाखातीर अमेरिकेचो पयलो क्रमांक लागता.

भारतांत कंवचेच्या वट्ट उत्पादनामदीं सुमार ७०% उत्पादन बरण्यो, बाटल्यो आनी तावदानी कंवची हांचें जाता. तातूंत बाटल्यो आनी कुप्यो हांचें उत्पादन सुमार ६१% आसा. १९५८ सावन बाटल्यांचे निर्यातींत एकसारकी वाड जायत गेली. साउदी अरेबिया, इराण, सुदान, कांबोडिया, एडन, कुवेत, हॉङकॉङ, थायलंड, उदेंत आफ्रिका ह्या देशांक जाता. कंवचेच्यो बाटल्यो तयार करपी कारखाने मुंबय, हैद्राबाद, बेंगलोर, नवी दिल्ली, पुणें, कलकत्ता, अलेप्पी (केरळ) ह्या शारांनी आसात.

प्लास्टीकच्यो बाटल्यो नडियाद (गुजरात), मुंबय, कलकत्ता, नवी दिल्ली ह्या शारांनी तयार करतात.

- कों. वि. सं. मं.

## बाणभट्ट : (इ. स. सातवो शेंकडो).

संस्कृत साहित्य परंपरेंतलो एक व्हड गद्य काव्य लेखक. कनौज आनी ठाणेश्वर हांगाचो निमाणो राजा हर्षवर्धन (कारकीर्द सुमार ६०६-६४७) हाणें ताका आलाशिरो दिल्लो. ताच्या 'हर्षचरित' आनी 'कादम्बरी' च्या प्रास्ताविक श्लोकांनी ताणें स्वताविशीं आनी आपल्या कुळाविशीं म्हायती दिल्या. तिचेवयल्यान तो वात्स्यायनगोत्री ब्राह्मण आशिल्लो, अशें समजता. ताच्या बापायचें नांव चित्रभानू आनी आवयचें नांव राजदेवी. शोण न्हंयेचे देगेर प्रीतिकूट नांवाच्या गांवांत तो रावतालो. तो ल्हान आसतनाच ताचे आवयक मरण आयलें आनी फुडें ताच्या पिरायेच्या १४व्या वर्सा ताच्या बापायक मरण आयलें. उपरांत वायट संगतीक

लागून ताणें जायती भोंवडी केली आनी जायतो अणभवूय मेळयलो. हे भोंवडेंतल्या आपल्या इश्टांची एक व्हड नामावळ ताणें हर्षचरितांत दिल्या. तातूंत कवी, विद्वान, गीतरचनाकार, प्राकृत रचनाकार, वीख उतरावपी, वैद्य, प्रवचनकार, कलाकार, शेट, चित्रकार, वादक, गवय, नर्तक-नर्तकी, भिक्षुणी, मंत्रीक, संन्यासी आनी हेरांचो आस्पाव जाता.

घरा परत येतकच ताची वागणूक सुदारली आनी ताणें वेद-वेदांगांचो आनी शास्त्रांचो खोलायेन अभ्यास केलो. ताणें प्रत्यक्षांत आपल्या विद्या-गुरूचो खंयच उल्लेख केल्लोना. पूण ताणें बरयल्ले कादंबरीच्या नमनश्लोकांत ताणें भर्चू नांवाच्या एका व्हड मनशाक वंदन केलां.

उपरांत बाणभट्टाविशीं लोकांनी हर्षवर्धनाचे कान भरिल्ल्यान ताणें बाणभट्टाक ताचे छंदीफंदी वागणुकेचो जाब विचारूंक आजिरावती देगेर आशिल्ल्या मणितारा गांवच्या आपल्या शिबिरांत आपयलो. पूण ताची पुराय वळख पटतकच ताचें मत बदल्लें. ताची विद्वत्ता आनी बुध्दिमत्ता पळोवन राजा खोशी जालो आनी ताणें ताका राजाश्रय दिलो.

बाणभट्टान आपल्या जायत्या संकश्टांचो उल्लेख करूनूय ताणें आपले गरिबीचो खंयच उल्लेख केल्लोना. ताचेवयल्यान ताचें जिवीत सुखांत आनी वैभवांत गेल्लें आसूंक जाय अशें म्हण्टात. आपल्या आश्रयदात्याविशीं ताका एक वेगळोच आदर आनी अभिमान आशिल्लो हें ताणें बरयल्ल्या हर्षाच्या चरित्रावयल्यान स्पश्ट जाणवता. 'हर्षचरित' अपुर्णूच उरलां, पूण तें पुराय करपाचो ताचो उद्देशूय नाशिल्लो. कारण हर्षाचें गूणगान करप हें आपल्या आवाक्याभायर आशिल्ल्याचें ताणें स्पश्ट म्हळां.

'हर्षचरित' आनी 'कादम्बरी' हातूंत आयिल्ल्या उल्लेखांवयल्यान बाणभट्टाक आशिल्ली जाण आनी विद्वत्ता सहज कळटा. व्यास, सुबंधू, भट्टार, हरिचंद्र, प्रवरसेन, भास, कालिदास, गुणाढ्य, सातवाहन, आद्यराज आदी कितल्याशाच कवींचो ताणें तांच्या खाशेलपणासयत उल्लेख केला.

ताणें चण्डीशतक आनी मुकुटताडितक (भीम दुर्योधन, गदायुध्दावयलें नाटक) ह्यो साहित्यकृती रचल्यात. 'कादम्बरी कथा' ताची पुराय जावंक शकली ना. ताचो पूत मुषणभट्ट हाणें ती पुराय केली.

बाणभट्टाचे गद्यग्रंथ तातूंतल्या संस्कृतीक दर्शनाच्या तपशिलाखातीर आनी समृध्द शैलीखातीर तोखणाय करपासारके आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## बाणलिंग

**बाणलिंग :** एके तरेचें शिवलिंग. नर्मदेंतल्या एका खाशेल्या आकाराच्या फातरांक 'बाणलिंग' अशें म्हण्टात. हीं लिंगां बाणासुरान पुजेखातीर तयार करून नर्मदेलागसारच्या दोंगराचेर सोडिल्लीं. थंयसावन तीं नर्मदेंत येवन पडलीं, अशें याज्ञवल्क्य संहितेंत म्हळां. सूत संहितेंत हे विशीं एक कथा आयल्या ती अशी -

बाणासूर हो शिवाचो भक्त आशिल्लो. तो सदांच शिवलिंग तयार करून ताची पुजा करतालो. १०० वर्सां नेमान ताणें अशी पुजा करतकच ताका शंकर प्रसन्न जालो. शंकरान ताका जाय तो वर मागपाक सांगिनाफुडें ताणें मागलें, 'देवा, सदांच हीं लिंगां तयार करून म्हाका वाज आयला. तेन्ना तूं म्हाका तुवें निर्माण केल्लीं लिंगां दी'. तेखातीर शिवान बाणासुराक १४ कोटी लिंगां दिलीं. बाणान तीन कोटी लिंगां स्वताखातीर दवरलीं, तीन कोटी कालिकागर्तांत, तीन कोटी श्रीशैल पर्वताचेर आनी एकेक कोटी लिंगांची कन्यकाश्रम, महेश्वर क्षेत्र, कन्यातीर्थ, महेंद्रपर्वत आनी नेपाळांत स्थापणूक केली.

बाणलिंगां खूब तरांचीं आसतात. तांचेर आशिल्ल्या चिन्नांवयल्यान तांकां इंद्र, अग्नी, यम, निर्ऋती, वरूण, वायू, कुबेर, रूद्र हीं नांवां आसात. बाणलिंग हें शंकराचें प्रतीकात्मक रूप मानतात. नर्मदेभाशेनूच गंगा, यमुना ह्या न्हंयांनीय बाणलिंगां मेळटात. बाणलिंगाची प्रतिश्ठापना करून ताचेर कसलोच संस्कार करपाची गरज ना अशें भविश्य पुराणांत म्हळां. सगळेकडेन जैत मेळचें अशी इत्सा आसल्यार फांतोडेर बाणलिंगाचें स्मरण करचें. येजमानाक शिवाचो निवेद्य खावपाक मनाय आसा. पूण बाणलिंगाक ओंपिल्लें उदक वा अन्न ताच्यान खावं येता.

बाणलिंगाचें लक्षण याज्ञवल्क्य संहितेंत सांगलां तें अशें -

*प्रशस्तं नार्मदं लिङ्गं पक्वजम्बुफलाकृति ।*
*मधुवर्णं तथा शुक्लं नीलं मरकतप्रभम् ।*
*हंसडिम्बाकृति पुनः स्थापनायां प्रशस्यते ।।*

**अर्थ :** पिकिल्ल्या जांबळाच्या आकाराचें तशेंच हंसाच्या तांतयाच्या आकाराचें नर्मदेंतलें लिंग प्रशस्त आसा. तें म्होंवाच्या रंगाचें, निळें वा मरकताच्या रंगाचें आसचें. अशे तरेच्या लिंगाची स्थापणूक करची.

- कों. वि. सं. मं.

## बाणावलीकार, गजानन रायु

**बाणावलीकार, गजानन रायु :** (जल्मः १८ मे १९३८, शिवोली- बारदेस).

सुटकेझुजारी. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. वणटीपत्रकां लावप, पत्रकां वांटप, सुटकेझुजाऱ्यांक अन्न आनी रावपाक जागो दिवप, तांचीं हत्यारां सांबाळून दवरप आनी दल संघटनेक वांगडी मेळोवन दिवप असलीं कामां तो करतालो. १० मार्च १९५६ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी बंदखणींत दवरलो. एका वर्सा उपरांत ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. परतून एकदां ताका धरपाचें फर्मान काडिल्लें. तेन्ना ताका फोर्सान सावंतवाडीक

धाडलो. थोड्या दिसांनी तो परतून गोंयांत आयलो आनी इश्टांवांगडा पोलीस ठाण्याचेर धाडी घालपांत वांटो घेवंक लागलो.

जून १९५८ त ताका आझाद गोमंतक दलान लश्करी शिक्षणाखातीर बडोद्याक धाडलो. गोंयचे सुटके उपरांत तो 'इंडियन नॅशनल कॉंग्रेस' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तशेंच शिवोली मार्णा ग्रामपंचायतीचो तो १३ वर्सां वांगडी आशिल्लो. १९७३ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**बादामी :** भारतांतलें इतिहासीक नामनेचें थळ. कर्नाटक राज्याच्या विजापूर जिल्ह्यांत हें थळ आसा. वसती सावन सुमार ५ किमी. अंतराचेर गदग-सोलापूर रेल्वेमार्गार बादामी स्थानक आसा. विजापूरा सावन दक्षिणेक सुमार ११७ किमी. अंतराचेर हें स्थळ आसून ताका तिनूय वटांनी दोंगरांनी व्यापिल्लें आसा. टॉलेमी हाणें ह्या गांवाचो उल्लेख बादामोई असो केला. सातव्या आनी आठव्या शतमानांतल्या शिलालेखांनी ताचो उल्लेख बादावी असो मेळटा. इ.स. ५४३ च्या संस्कृत शिलालेखांत हाका वातापी अशें नांव दिलां. वातापी नांवाच्या राकेसावयल्यान ह्या थळाक हें नांव मेळळें अशें म्हण्टात.

ह्या वाठाराभोंवतणीं खडपांच्यो आनी चुनखडीच्यो खणीं आसात. उत्तरेकडल्या दोंगरार बावनकोट आनी दक्षिणेकडल्या दोंगरार रणमंडळ अशे दोन पोरणे किल्ले आसात. पुर्विल्ल्या काळांत चालुक्याची राजधानी हांगा आशिल्ली (इ.स.५५० ते फुडें दोनशें वर्सां). लागसल्ल्या दोंगरांत एक शैव, एक जैन आनी दोन वैष्णव अशीं चार लेणीं आसात. हांगा आशिल्ल्या लेण्यांत आनी देवळांत अठरा शिलालेख मेळटात. तांचो काळ सादारण इ.स. सवो ते सोळावो शेंकडो आसा. ह्या काळांत चालुक्यां उपरांत ह्या वाठाराचेर पल्लव, विजयनगरचो राजा, आदिलशाही सुलतान, हैदर अली, निझाम आनी निमाणें १९१८ उपरांत ब्रिटीश सरकाराचो शेक चलतालो. त्या त्या राजांनी निर्माण केल्लीं जायतीं शिल्पां हांगा पळोवंक मेळटात.

ह्या वाठारांत जायतीं व्हड व्हड देवळां आसात. तातूंत 'मलेगित्ति' म्हळयार माळिणीचें देवूळ आसा. हें शिवाचें देवूळ द्रविड शैलीचेर आसून तें एका व्हड फातराचेर बांदलां. हाचें शिल्पकाम पळोवपासरकें आसा. ताचे लागसारच जंबुलिंग देवूळ आसा. तातूंत ब्रह्मा, विष्णु आनी शिव हांचीं देवळां आसात. गांवा लागसार भूतनाथ वा अगस्त्य तीर्थ ह्या नांवान वळखुपांत येवपी एक व्हड तळें आसा. ह्या तळयालागसार भूतनाथ, मल्लिकार्जून, दत्तात्रय, अनंतशायी विष्णु, यल्लमा आदींचीं देवळां आसात. भूतनाथाच्या देवळालागसार फातरांत शिवलिंगां, विष्णु, महिषासूरमर्दिनी, नरसिंह, गणपती, ब्रह्मदेव, वराह आदींच्यो कोरांतिल्ल्यो मुर्ती आसात.

बादामीच्या चार लेण्यांतलीं वैष्णवलेणी मंगलेश चालुक्य राजाच्या काळांत इ.स. ५७८ च्या सुमाराक कोरांतिल्लीं. दक्षिणेकडल्या दोंगरांत कोरिल्लीं लेणीं पोरनीं आसून तातूंत शैव संप्रदायाच्यो मुर्ती आसात. ताचे फुडले वटेन १८ हातांचो नटराज कोरिल्लो आसा. गण, गणपती, नंदी हांच्योय मुर्ती थंय कोरांतिल्ल्यो आसात. तेन्नाभायर अर्धनारीश्वर, हरिहर, पार्वती, लक्ष्मी, महिषासूरमर्दिनी, भूतगण आनी नृत्यांगना हांच्योय मुर्ती थंय आसात. शैव लेण्याचे उदेंतेक कांय उंचायेचेर दुसरी वैष्णवपंथीय लेणीं आसून सोंप्यांत द्वारपालाच्यो मुर्ती आसात. ताच्या दोनूय वटांनी शिल्पपट्ट आसून एके वटेन वराह अवतारांतलो विष्णु दर्यांतल्यान पृथ्वी उखलता आनी त्रिविक्रम एक पांय उखलून मळब मेजपाक उबो आसा अशें दाखयलां. तेभायर हांगा कृष्णलिलेच्यो शिल्पपट्ट्यो कोरांतिल्ल्यो आसात. देवळाच्या मंडपाचें पांखें अलंकृत आसून तातूंत विद्याधराच्यो आकृत्यो कोरांतिल्ल्यो आसात.

ह्या वैष्णव लेण्याचेर एक व्होंवरी आसून तातूंत पद्मपाणी आनी बोधिसत्वाच्यो मुर्ती आसात.

लेणी क्र. चार हातूंत सगळयांत चड शिल्पाकृती आसात. हातूंत विष्णु, सिंह, वराह, नृसिंह, हरिहर आदीच्यो मुर्ती आसात. सोंप्यांतलें पाखें तरेकवार नक्षीकामान सजयल्लें आसून तातूंत विद्याधर, नागदांपत्य आनी नागराजा हांच्यो सोबीत मुर्ती आसात. हांगाचो मंडपूय वेगवेगळ्या नक्षीकामान नटिल्लो आसा. ताच्या पाश्तार गरूडाचेर आरूढ जाल्लो विष्णु, नंदीवयलो शिव, ऐरावतावयलो इंद्र, हंसावयलो ब्रह्मा, मकरावयलो वरूण आदी मुर्ती आसात. मुखेल मंडपाचें पाखेंय नक्षीदार आसून ताचेर अग्नी, ब्रह्मदेव वरूण, यम, इंद्र, हांच्यो मुर्तीय कोरांतिल्ल्यो आसात. खांब्यावयल्या शिल्पांत अर्धनारिश्वर, मन्मथ, रती आदीच्यो मुर्ती मेळटात. वैष्णव व्होंवरीलागसार उंचेले सुवातेर उत्तरेवटेन तोंड आशिल्लीं जैन लेणीं आसात. तातूंतली शीवासनाचेर आशिल्ली महाविराची मुर्त पळोवपासारकी आसा. वण्टीचेर गोमटेश्वर आनी पार्श्वनाथ आनी तांचे सेवक तशेंच हेर तीर्थंकारांच्यो मुर्ती आसात.

हांगाच्या सगळया लेण्यांनी सारकेंपण आसून फुडें खांबो आशिल्लो सोपो, मदीं खांबे आशिल्लो मंडप आनी निमाणे चवकोनी गाभारो अशी रचना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बापट, वसंत :** (जल्म : २५ जुलय १९२२, कराड-सातारा).

नामनेचो मराठी कवी. १९४८ त ताणें पुण्याच्या स. प. म्हाविद्यालयांतल्यान एम. ए. ची पदवी मेळयली. उपरांत मुंबय नॅशनल कॉलेज आनी रामनारायण रूईया कॉलेज ह्या म्हाविद्यालयांत तो मराठी आनी संस्कृत हे विशय शिकोवंक लागलो. १९७४ सावन मुंबय

विद्यापिठांतल्या गुरूदेव टागोर अध्यासनाचो तो प्राध्यापक आशिल्लो.

भुरगेपणासावन ताचेर राश्ट्रसेवा दलाचो आनी सानेगुरूजीच्या सहवासाचो संस्कार जाल्लो. 'बिजली' हो ताचो पयलो कवितांझेलो. ताचे उपरांत ताचे सेतु (१९५७), अकरावी दिशा (१९६२), सकीना (१९७२) आनी मानसी हे कवितांझेले उजवाडाक आयले. संस्कृत, बंगाली आनी इंग्लीश कवितांचो प्रभाव ताच्या ह्या कवितांचेर दिश्टी पडटा. ह्या कवितांत समाजीक विशमताय आनी अन्यायाचे खर जाणविकायेवांगडाच तरणेपणाचो डौल, सैमावरवीं शृंगार उक्तावपाची प्रवृत्ती, लावणी सारक्या पोरन्या काव्यप्रकाराक परत हाडपाचो यत्न आदी विशय आस्पावतात. ह्या कवितांवरवीं ताणें उणे भाशेंत खोल विचार मांडल्यात.

'गांधीची जीवनयात्रा' (१८४८), 'नव्या युगाचे पोवाडे (भाग १ ते ३), 'सैन्य चालले पुढे', 'उत्तुंग आमची उत्तर सीमा इंच इंच लढवू,' ह्यो ताच्यो कांय नामनेच्यो कविता. ह्या कवितांवरवीं ताच्या राश्ट्रप्रेमाचे आनी जनजागृती करपाविशींचे संवेदनशील विचार उक्ते जातात.

'बारा गांवचे पाणी' (१९६७) हो ताचो भोंवडेवर्णनपर ग्रंथ. ह्या ग्रंथावरवीं ताणें भारताचो सैम, चालीरिती, लोककला, विज्ञानीक उदरगतीवटेन जावपी वाटचाल हांचो नियाळ घेतला. 'सेतु' ह्या ताच्या कवितांझेल्याक तशेंच ल्हान भुरग्यांखातीर बरयल्ल्या 'बालगोविंद' (१९६५) ह्या नाटकाक महाराष्ट्र शासनाचो पुरस्कार मेळ्ळा. 'तौलनिक साहित्यभास' (१९८१) हो ताचो हालींचो ग्रंथ. राश्ट्रसेवा दलावतीन ताणें 'महाराष्ट्र दर्शन', 'भारत दर्शन', 'गोमन्तक दर्शन' आदी कार्यक्रम सादर केल्ले.ताका संगीत, अभिनय, लोककला हांची बरी जाण आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## बापट, सेनापती उर्फ पांडुरंग महादेव : (जल्म : १२ नोव्हेंबर १८८० पारनर, जि. अहमदनगर; मरणः २८ नोव्हेंबर १९६७).

सशस्त्र क्रांतीकारक आनी तत्त्वचिंतक. ताच्या बापायचें नांव महादेव आनी आवयचें गंगाबाय.



माध्यमिक आनी बी. ए. परिक्षा शिक्षण ताणें पुण्यांतले डेक्कन कॉलेजींत घेतलें. कॉलेजींत आसतना सशस्त्र क्रांतीवरवीं भारत स्वतंत्र करपाचो सोपूत ताणें तरसादीचेर हात दवरून घेतिल्लो. बी. ए. परिक्षा पास जातकच १९०३ वर्सा मुंबय विद्यापिठाची शिश्यवृत्ती घेवन तो इंग्लंडाक गेलो. एडिंबरोक इंजिनिअरिंग कॉलेजींत शिक्षण घेता आसतनाच क्रांतीकारक विचारांचो प्रचार करता आशिल्ल्यान ताची शिश्यवृत्ती बंद जाल्ल्यान ताचें शिक्षण अर्देंच उरलें. थंय श्यामजी कृष्ण वर्मा ह्या क्रांतीकारक फुडाऱ्याकडेन वळख जावन ताच्या आदारान पॅरीसांत रावंन ताणें रशियन क्रांतीकारकाकडल्यान स्फोटक बाँब हाताळपाचें गिन्यान शिकून घेतलें. उपरांत ही विद्या ताणें भारतांतल्या तशेंच बंगालांतल्या क्रांतीविरांक दिली. फुडें क्रांतीकारकांच्या कारस्थानांच्या एका खटल्यांत माफीच्या गवायान बापयाचें नांव सांगिल्ल्यान १९०८ ते १९१२ ह्या काळांत ताका अज्ञातवासांत रावचें पडलें. उपरांत तो पारनराक १९२१ मेरेन शिकवणे वांगडाच भौशीक वावर करूंक लागलो.

१९२१-२४ ह्या काळांत पुण्यांतल्या मुळशी पेठ ह्या गांवांतल्या शेतकाराची आनी गांवकारांची शिंपणावळीची अडचण पयसावपाक ताणें महाराष्ट्रांतल्यान शेंकड्यांनी सत्याग्रही एकठांय करून सत्याग्रह घडोवन हाडलो. तेन्नाच ताका लोकांनी 'सेनापती' ही पदवी दिली. हे चळवळीखातीर ताका तीन फावटी बंदखणीची ख्यास्त जाली. तातूंत निमाणचीं सात वर्सां सक्तमजुरीचीं आशिल्लीं. राजकीय सुटके चळवळींत वांटो घेता आसतना राजद्रोहात्मक उलोवपां केल्ल्यान ताका जायते फावटीं बंदखणींत वचचें पडलें. संस्थांनी प्रजेच्या हक्काखातीर चालू आशिल्ले चळवळींत वांटो घेवन ताणें संस्थांनी प्रजेच्यो प्रवेशबंद्यो मोडल्यो. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांतूय भाववाढ विरोधी चळवळ, गोंयमुक्ती चळवळ, संयुक्त महाराष्ट्र चळवळ आदी चळवळींनी ताणें फुडाकार घेतिल्लो.

१८ मे १९५५ दिसा प्रजा सोशलिस्ट पार्टीचो मुखेली ना. ग. गोरे हाचेवांगडा ५२ सत्याग्रह्यांचो पंगड घेवन लाडपें मार्गान शीम हुंपपाची येवजण आंखली.पूण वाटेर दिवचल वाठारांत ताका आडावन पुर्तुगेज पोलिसांनी लाकेरी गांवांत ताका खूब मार घालो.

बंदखणींत आसतना ताणें चळवळीक पूरक अशे तरेचें साहित्य बरोवन तें उजवाडा हाडलें. ताणें अपूर्ण अशी आपली ल्हानशीच आपजीण बरयल्ली आसा. ताचें चड बरप मराठींत आनी कांय प्रमाणांत इंग्लिशींत आनी संस्कृतांतूय आसा. ताचें साहित्य पद्यांत, क्रांतीवादी राजकारणाचें समर्थन करपी, भगवद्‌गीतेच्या तत्त्वगिन्यानाचेर आदारिल्लें राश्ट्रमुक्ती आनी अन्याय-प्रतिकार ह्या दोन मुद्‌द्यांक अणुसरून युक्तिवाद केल्लें आसा. ताचे सगळे विचार ताच्या 'चैतन्यगाथा' ह्या पुस्तकांत दिश्टी पडटात. योगी अरविंदाच्या इंग्लिशींतल्या अध्यात्मीक तत्त्वगिन्यानावयल्या 'दिव्यजीवन' ग्रंथाचो ताणें मराठींतल्यान बेस बरो अणकार केला. ताचें साहित्य 'समग्र ग्रंथ' (१९७७) म्हणून साहित्य आनी संस्कृत मंडळाच्या अनुदानान उजवाडा आयलां.

- कों. वि. सं. मं.

**बाप्तिस्मा :** (पळेयात पवित्र स्नान).

**बाबर :** (जल्म : १४ फेब्रुवारी १४८३, फर्घाना, कझाकस्तान; मरणः २६ डिसेंबर १५३०).

हिंदुस्थानांतले मोगल सत्तेचो संस्थापक आनी दिल्लीचो पयलो मोगल बादशहा. ताचें पुराय नांव जहीरूद्दीन मुहम्मद बाबर. तांच्या बापायचें नांव उमरशेख मिर्झा आनी आवयचें नांव कुत्लघ निगार खानम.

इकरा वर्सांचो आसतनाच ताचो बापूय मेलो आनी बाबर फर्घाना प्रांताचो राजा जालो. १४९४ ते १५०२ मेरेन बाबरान हांगा राज्य केलें. उपरांत मध्य आशियेंत स्वराज्य स्थापपाचे इत्सेन दोन फावटीं ताणें समरकंद राजधानी जिखली, पूण दोनूय खेपे ताका ती वगडावंची पडली. इतलेंच न्हय, जाल्यार फर्घाना शार लेगीत सोडचें पडलें. १५०४ वर्सा बाबरान काबुल हातासलें. १५११ वर्सा इराणचो शाह हाच्या आदारान समरकंद आनी फर्घाना घेतलें, पूण उझबॅकाचो फुडारी उबैदुल्लाखान हाणें १५१२ वर्सा दोनूय शारां बाबराकडल्यान परत घेतलीं. १५२६ वर्सा बाबर काबुलाक आसतना शाह बेग अर्घुनाकडल्यान ताणें कंदाहार जिखलें. १५१९-२४ ह्या काळांत बाबरान हिंदुस्थानाचेर चार घुरयो घाल्यो, पूण त्यो अपेशी थरल्यो. १५२६ वर्सा पानिपताक दिल्लीचो तेन्नाचो सुलतान इब्राहिमखान लोदी हाचेवांगडा जाल्ल्या झुजांत ताका जैत मेळटकच बाबरान दिल्ली आनी आग्रा घेतलें. दिल्लीचे सुलतानशायेचो शेवट जावन थंय मोगल बादशाही सुरू जाली आनी उपरांत बाबरान मध्य हिंदुस्थानांतले रापडी, इटावा, कनौज, जोनपूर, गाझीपूर, ग्वाल्हेर हे प्रदेश हातासले.



१५२७ वर्सा, बाबर हिंदुस्थानांत सासणाचो रावतलो, अशें कळटकच मेवाडचो राणा संग्रामसिंह हाणें आग्राचे अस्तंतेक सुमार ६० किमी. अंतराचेर खानुवाच्या मळार बाबरावांगडा झूज केलें. तातुंतूय बाबराक जैत मेळ्ळें. उपरांत ताणें चंदेरीच्या मेदिनीरायाक शरण हाडलो, अयोध्येचो अफगाण उमराव बिब्बनाक हारयलो आनी १५२९ वर्सा गंगा आनी गोग्रा हांच्या संगमालागीं घाग्रा हांगा नुसरतशाहाच्या बावट्याखाला एकठांय आयिल्ल्या अफगानांक हारयले.

ताणें स्वताक 'गाझी' हें बिरूद लायलें. ताच्या राज्याचो विस्तार उदेंतेक आसाम-बिहारासावन अस्तंतेक अमूदर्या न्हंयेमेरेन आनी दक्षिणेक माळवा-राजस्थान ते उत्तरेक हिमालयामेरेन जालो.

बाबरान वट्ट ३६ वर्सा राज्य केलें. तो विद्वान आनी रसीक आशिल्लो. ताका सैमीक सोबितकायेची खूब आवड आशिल्ली. तुर्की भाशेंत 'दीवान' हो काव्यांझेलो ताणें बरयलो, तशेंच फार्सी भाशेंतूय ताणें कांय कविता केल्यो. ताणें मुबय्यिन ह्या नांवान 'मस्नवी' हें उपदेशात्मक खंडकाव्य बरयलें. तशेंच ताणें 'तुझक-इ-बाबरी' हें तुर्की भाशेंत आत्मचरित्र बरोवन दवरलां.

- क़ों. वि. सं. मं.

**बाबाजी चैतन्य :** (जल्म : सुमार इ.स. १५५१; मरण : सुमार इ.स. १६५०).

एक साधू आनी संत तुकारामाचो गुरू. हाच्या चरित्राविशीं इतिहासीक म्हायती उपलब्ध ना. हो ब्रह्मचारी आशिल्लो अशें म्हण्टात. 'गुरूपरंपरा' ह्या संस्कृत ग्रंथांत, ताचेविशीं जी म्हायती आसा ती अशी-

भेरी भांकारीचीं राघव, केशव आनी कृष्ण वा बाबाजी अशीं तीन भुरगीं आशिल्लीं. राघवान आळंदीक एक वाद जिखलो देखून ह्या तिगांकूय चैतन्य हें उपनांव मेळ्ळें.

गाणगापूरा सावन धा-इकरा मैलांचेर आशिल्ल्या मान्यहाळ गांवांतल्या बाबाजीच्या मठाक 'नरसप्पाचो मठ' अशें म्हण्टात. ह्या मठांत बाबाजीचे बसपाचे दोन पलंग आसात. मठांतल्या देवांवांगडा ह्या पलंगांचीय पुजा करतात. ह्या मठासामकार एक व्हड दरवटो आसा. तातूंत बाबाजीची समाधी आसा. थंय तुपाच्या दिव्या बगर हेर दिवो लावंचो न्हय असो नेम आसा. तशेंच बायलांकूय थंय प्रवेश ना.

शेख सुलेमानसाहेब, नरसप्पय्या, तुकाराम, शिवराम कल्याणीकर हे संत बाबाजीचे शिश्य.

- कों. वि. सं. मं.

**बाबा पदमनजी :** (जल्म : मे १८३१, बेळगांव; मरण : २९ ऑगस्ट १९०६, मुंबय).

नामनेचो मराठी ग्रंथकार आनी मराठींतल्या किरिस्तांव साहित्याचो जनक. ताचें पुराय नांव बाबा पदमनजी मुळे. ताचें शिक्षण बेळगांव आनी मुंबय जालें. बेळगांवच्या मिशन स्कुलांत शिकता आसतना ताका

किरिस्तांव धर्माचें गिन्यान मेळ्ळें. तेन्नाच ताणें बायबल तशेंच अब्राहम, इझाक आदींच्यो कथा वाचल्यो. मुंबयच्या फ्री चर्च विद्यालयांत 'बैबल मास्तर' म्हणून काम मेळ्ळें. ल्हव ल्हव करून ताका क्रिस्तांव धर्माकडेन ओड जाली. कांय काळ तो 'परमहंस मंडळी' हे प्रागतिक विचारांचे गुपीत संघटनेंत आशिल्लो. पूण फुडें हे संघटनेचे कांय विचार ताका पटनाशिल्ल्यान ताणें हे संघटनेकडलो संबंद तोडलो. तेन्नाच ताका क्रिस्तांव धर्म आपणावपाची खर इत्सा जाली. निमाणें ३ सप्टेंबर १८५४ ह्या दिसा ताणें बाप्तिझ्म घेतलें. क्रिस्तांव जातकच तो पुण्याक गेलो. थंय तो सोळा वर्सां रावलो. पुण्याक आसतना ताणें जायतीं वर्सां फ्री चर्च मिशनाचे शाळेंत काम केलें. ह्याच मिशनांत १८६७ त ताची मंडळाचो पालक म्हणून नेमणूक जाली. फुडें १८७३ त ताणें ह्या कामाक सोडचीट दिली आनी तो लिखाण करूंक लागलो. पूण १८७३ वर्सा आदीं ताचीं कांय पुस्तकां उजवाडाक आयिल्लीं. 'स्त्रीविद्याभ्यास निबंध' (१८५२), 'व्यभिचारनिषेधक बोध' (१८५४), 'यमुनापर्यटन' (१८५७), 'सर्वसंग्रही उर्फ निबंधमाला' (१८६०) हे ताचे सुरवातीचे कांय ग्रंथ आसात.

हातूंतली 'यमुनापर्यटन' कादंबरी ही मराठींतली पयली स्वतंत्र कादंबरी म्हणून उल्लेख करतात. ताचे हे कादंबरींत यमुना हे नायिकेचे भोवडेचे वर्णन आसा. मिशनऱ्यांचे शाळेंत शिकपी आनी किरिस्तांव धर्माविशीं आपलेपण आशिल्ली यमुना आपलो घोव विनायका वांगडा भोवडेंक वता. वाटेंत तिका कांय विधवा बायलो मेळटात. त्यो बायलो वायट मार्गाक कशो लागतात हाचोय तिका अणभव येता. ती तांकां जेजूचो उपदेश सांगता. वाटेंत विनायकाक अपघाती मरण येता. यमुना विधवा जाल्ल्यान तिका बोडकी करपाचो यत्न जाता. पूण यमुना तशें करूंक दिना. फुडें ती एका किरिस्तांव मनशाकडेन लग्न जाता आनी स्वता किरिस्तांव धर्म आपणायता.

बाबा पदमनजीच्यो हेर साहित्यनिर्मिती अशो आसात- शब्दरत्नावली (१८६०), महाराष्ट्र देशाचा संक्षिप्त इतिहास (१८६६), सिध्दान्तरत्नमाला (१८६६), स्त्रीकंठभूषण (१८६८), ए कॉंप्रेहेन्सिव्ह डिक्शनरी ऑफ इंग्लीश अँड मराठी, कृष्ण आणि खिस्त यांची तुलना, नव्या करारावर टीका (१८७७), उध्दारमार्गविज्ञान (१८७८) हाचेभायर 'अरूणोदय' ह्या नांवान ताणें आपली आपजीण बरयल्या.

१८७७ सावन २५ वर्सांमिरेन 'बायबल सोसायटी' आनी ट्रॅक्ट सोसायटी' ह्या संस्थांनी संपादक म्हूण ताणें काम केलां. उदयप्रभा, कुटुंबमित्र, सत्यदीपिका अशा कांय नेमाळयांचेंय ताणें संपादन केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**बाबूराव पेंटर :** (जल्म : ३ जून १८९०, कोल्हापूर; मरण : १६ जानेवारी १९५४, कोल्हापूर).

नामनेचो चित्रकार, शिल्पकार, चित्रपट निर्मातो आनी दिग्दर्शक. ताचें पुराय नांव बाबूराव कृष्णाजी मेस्त्री (मिस्त्री). चित्रकार म्हणून बाबूरावाची नामना आसली तरी ताका खरें यश मेळ्ळें तें चित्रपट मळार. सुरवेक आपलो आतेभाव आनंदराव मेस्त्री हाच्या आदारान ताणें 'डॅक्कन सिनेमा' सुरू केल्लो. पूण तो व्हडलोसो चल्लोना. ताचे उपरांत १९१३ त ह्या दोगांयनी बाबूराव रूईकर हाचेवांगडा 'महाराष्ट्र सिनेमा' ही संस्था निर्मिली. पूण हीय संस्था बंद पडून फुडें १ डिसेंबर १९१७ दिसा बाबूरावान आपल्या भावाचे यादीक 'महाराष्ट्र फिल्म' कंपनीची स्थापना केली. १९१९ त ताणें 'सैरंध्री' ह्या आपल्या कलात्मक मूकपटाची निर्मिती केली. ७ फेब्रुवारी १९२० त पुण्याच्या आर्यन सिनेमाघरांत 'सैरंध्री' प्रदर्शीत जालो. लोकमान्य टिळकान सैरंध्री पळोवन बाबूरावाक 'सिनेमा केसरी' ही पदवी दिली. महाराष्ट्र फिल्म कंपनीवतीन बाबूरावान १९२०-३० ह्या धा वर्सांमदीं वट्ट सतरा चित्रपटांची निर्मिती केली. तातूंतले 'वत्सलाहरण' (१९२१), भक्त प्रल्हाद (१९२६) हे पुराणीक, सिंहगड (१९२३), कल्याण खजिना (१९२४), सती पद्मीनी (१९२४), शहाला शह (१९२५) हे इतिहासीक आनी सावकारी पाश (१९२५) हे समाजीक कथानकावयले चित्रपट.



ताचो 'सिंहगड' हो चित्रपट जायत्या नदरांनी म्हत्वाचो थरलो. विजेच्या उजवाडांत चित्रीकरण केल्लो हो पयलो भारतीय चित्रपट. पन्हाळ किल्ल्याच्या वाठारांत ह्या चित्रपटाचें चित्रीकरण केल्ल्यान स्टुडिओ भायर चित्रीकरण करपाचे नदरेन होच पयलो चित्रपट थरता. ह्या चित्रपटा वेळार प्रेक्षकांनी सुमाराभायर गर्दी केली. हे गर्देचेर सरकाराक नियत्रंण करचें पडलें आनी तेन्नासावन सरकाराचें लक्ष चित्रपटांकडेन गेलें. ह्या चित्रपटापसून करमणूक कर बसयलो. ताचे जायराती खातीर बाबूरावान शिलामुद्रण केलें. ३.४८X६.९६ चौ.मी. आकाराचीं वण्टीपत्रकां तयार केल्लीं. ते नदरेनूय चित्रपट वण्टीपत्रकांचो जनक बाबूराव पेण्टर थरता.

ताच्या सैरंध्री ह्या पयल्या चित्रपटांतलें किचकवधाचें दृश्य इतलें प्रभावी आशिल्लें, तें पळोवन कांय प्रेक्षकांक घुंवळ आयली.

'वत्सलाहरण' हाचे उपरांत ताणें 'मार्कंडेय' चित्रपटाचें चित्रीकरण करूंक सुरवात केली. पूण ६ नोव्हेंबर १९२२ दिसा चित्रीकरणा वेळार चित्रपट निर्मितीघराक अकस्मात उजो लागलो तरीय पूण बाबूरावान हातूंतल्यान परतो आपलो चित्रपटसंवसार उबो केलो.

चित्रपटांतल्या कथानकाचे नदरेन योग्य असो भेस आनी वातावरण

निर्माण करपाची बाबूरावाची हातोटी आगळीच आशिल्ली. तरी ताचें मुखेल लक्ष अभिनयाचेर आसतालें.

फुडें १९३० त ताणें 'लंका' ह्या चित्रपट निर्मिती उपरांत आनीक तीन चित्रपट निर्मिले. ताचे उपरांत महाराष्ट्र फिल्म कंपनी बंद पडली.

फुडें बोलपटांचें युग सुरू जालें. तेन्ना कोल्हापूरचे शालिनीटोन हे संस्थेक आदार दिवन तिचे वरवीं ताणें उषा, सावकारी पाश (१९३५), प्रतिभा, साध्वी मिराबाई (१९३७), रूक्मिणी स्वयंवर (१९४६), लोकशाहीर रामजोशी (१९४७), विश्वामित्र (१९५२) ह्या बोलपटांचें दिग्दर्शन केल्लें. वास्तवतेचें दर्शन फकत गरिबींतल्यान जायना जाल्यार तें वैभवांतल्यानूय जावं येता हें ताणें सावकारी पाश ह्या चित्रपटांतल्यान दाखयलें. ह्या बोलपटाक त्या काळांत खूब नामना मेळ्ळी. पंडित नेहरूनूय ह्या बोलपटाची खूब तोखणाय केली. 'कल्याण खजिना', 'पद्मिनी' आनी 'सिंहगड' ह्या ताच्या मूकपटांक युरोपांत वेगवेगळे चित्रपट प्रदर्शनांत भांगरा पदकां मेळ्ळीं.

भारतीय चित्रपट सृश्टीचें मुळावण दादासाहेब फाळकेन घालें. पूण ताका कलात्मक शिस्त आनी सोबितकाय मेळोवन दिवपांत बाबूरावाचो हात आसा. व्ही. शांतराम, एस. फत्तेलाल, विष्णुपंत दामले आनी केशवराव धायबर हे ताचे चित्रपट मळावले शिश्य.

बाबूरावाचे चित्रकलेचेर वॅट्स, रॉझेटी, बर्न्स आनी लॅंडशियर हांचो प्रभाव दिश्टी पडटा. त्रिंदाद, आगासकर, नागेशकर, पत्रावळे आनी हळदणकर आदी नामनेच्या भारतीय चित्रकारांनी हाताळिल्ल्या चित्रांचो तो अभ्यास करतालो. शिल्पकलेंत मृदशिल्पना सावन कांश्याच्या ओतकामामेरेनचीं सगळीं कामां तो आपुणूच करतालो. तेखातीर ताणें फुडें आपली स्वताची ओतशाळाय काडिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**बायझँटीन साम्राज्य :** बायझँटीन नांव बोस्पोरस सामुद्रीधुनीचेर वशिल्ल्या बायझँटीयम ह्या ग्रीक शारावयल्यान आयलां. इ.स. ३३० त रोमन सम्राट कोन्स्टनटायन हाणें रोमन साम्राज्याची राजधानी रोमाक सावन बायझँटीन शारांत उबारली (सद्याचें इस्टांबूल, तुर्की) आनी त्या शाराक कोन्स्टानटीनोपल नांव दवरलें. कांय इतिहासकारांच्या मतान बायझँटीन साम्राज्याचें युग ह्या शेंकड्यासावन सुरू जालें. पूण कांय इतिहासकारांच्या मतान इ.स. ३९५ त रोमन साम्राज्याचे उदेंत रोम आनी अस्तंत रोम अशे दोन वांटे जाले. तेन्ना सावन बायझँटीन साम्राज्य अस्तित्वांत आयलें. सव्या शेंकड्यांत साम्राज्याचो सगळयांत चड विस्तार जाल्लो. तेन्ना संबंद दक्षिण आनी उदेंत युरोप, उत्तर आफ्रिकेचे कांय प्रदेश आनी अरबस्तानाचो (Middle East) बायझँटीन साम्राज्यांत आस्पाव जातालो. १४५३ त तुर्की सैन्यान कोन्स्टानटीनोपलाचें जैत मेळयले उपरांत बायझँटीन साम्राज्याचो अस्त जालो.

**इतिहास :** इ.स. पयलींच्या सव्या शेंकड्याच्या मदेकाक आदीम ग्रीक वेपाऱ्यांनी बोस्पोरस सामुद्रीधुनीचेर बायझँटीयम वसाहतीची थापणूक केल्ली. इ.स. प. १०० त बायझँटीयम नगर रोमन साम्राज्याच्या शेकातळा गेलें. ३०६ त कोन्स्टान्टायन द ग्रेट हो रोमन सम्राट जालो. पुर्विल्ल्या रोमन साम्राज्याचो मान आनी दर्जो परतून मेळोवपाखातीर ताणें रोमन साम्राज्याची राजधानी बायझँटीयम शारांत उबारली. त्या शाराचें ताणें अलंकरण करून शाराची शान वाडयली. नवे राजधानीक ताणें आपल्या नांवावल्यान कोन्स्टान्टीनोपल नांव दिलें.

रोमन सम्राट थिओडोशियस पयलो (कार ३७९-९५) हाणें आपलें साम्राज्य दोनूय चल्यांभितर वांटलें. हानेरियस हो अस्तंत साम्राज्याचो तर आर्केडीयस हो उदेंत रोमाचो सम्राट जालो. अशे तरेन रोमन साम्राज्याचे उदेंत आनी अस्तंत रोम अशे सदांखातीर दोन भाग जाले. पाचव्या शेंकड्याचे सुरवेक सावनूच जर्मनच्या आक्रमकांनी अस्तंत रोमच्या कांय भागांचेर जैत मेळयल्लें. उपरांत ४७६ त अस्तंत रोमन साम्राज्याचो पुरायपणान अस्त जालो.

सम्राट जस्टीनियनच्या तेंपार (कार ५२७-५६५) बायझँटीन साम्राज्याची खूब भरभराट जाली. रोमन साम्राज्याचो दर्जो परत वाडोवपाखातीर ताणें यूरोप, आशिया आनी आफ्रिका खंडांतले साबार प्रदेश हातासून बायझँटीन साम्राज्याचो विस्तार वाडयलो. तशेंच नव्या कायद्यांवांगडा कांय पुर्विल्ल्या रोमन साम्राज्याचे कायदे चालींत हाडले. ताणें केल्ले नव्या कायद्यांचे वळेरीक 'जस्टीनियन कोड' अशें म्हण्टाले. 'हागीया सोफिया' ही बायझँटीन साम्राज्यांतली सगळयांत व्हडली इगर्ज ताणें बांदली. तेंचपरी ताच्या तेंपार क्रिस्तांव प्रभावासकयल बायझँटीन वास्तू शिल्पां आनी कला खूब फांकारली. हाका लागून जस्टीनीयनच्या काळाक बायझँटीन साम्राज्याचो भांगरा काळ अशें म्हळां.

जस्टीनीयनच्या काळाच्या निमाणेकडेन कांय हेडगी टोळयांनी साम्राज्याच्या साप्प भायर आशिल्ल्या भागांचेर घुरयो घालपाक सुरवात केल्ली. पूण जस्टीनीयनच्या मरणा उपरांत तांकां चड नेट येवपाक लागलो. जर्मनचे लोम्बार्ड टोळयेन इटलीचो कांय भाग हातासलो तर स्लावस आनी आवार्स हांणी बाल्कन पेनिन्सूलाचेर जैत मेळयलें. ६४२ मेरेन अरबांनी सिरीया, पॅलेस्टायन आनी ईजिप्त प्रदेश हातासले. आठव्या शेंकड्याच्या सुरवेच्या काळामेरेन बायझँटीन साम्राज्याच्या शेकातळा फकत आशिया मायनर, बालकन दर्यादिग, क्रिटे, कांय ग्रीक जुंवे, दक्षिण इटली आनी सिसीली इतलेच प्रदेश आशिल्ले. पूण णव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दाक सावन सम्राट बासील पयलो आनी ताच्या फाटल्यान आयिल्ल्या सम्राटांनी अरबांक धांवडावन बायझँटीन साम्राज्याचो परतून विस्तार करपाक सुरवात केली (८६७-१०२५). त्या तेंपार कलाकार, वास्तुशिल्पकार आनी विद्वानांक राज्यकर्त्यांचो आदार

मेळिल्ल्यान कला आनी साहित्याच्या मळार उदरगत जाली. वेपारूय खूब वाडलो. पूण इकराव्या शेंकड्यांत साम्राज्यांक परतून देंवती कळा लागली. १०७१ त नॉर्मन लोकांनी दक्षिण इटली तर तुर्की लोकांनी आशिया मायनर प्रदेश हातासलो. बायझँटीन सम्राटांनी क्रिस्तांव लोकांच्या आदारान तुर्की लोकांक आशिया मायनर प्रदेशांतल्यान धावंडावन घालपाचे खूब यत्न केले. ते खातीर तांणी धर्मझूजांकय उलो मारलो. पूण सगळे यत्न अपेशी थारले. चवदाव्या शेंकड्यांत बायझँटीन साम्राज्या सकयल फकत कोन्स्टान्टीनोपल आनी कांय ग्रीक प्रदेश आशिल्ले. पूण १९५३ तुर्की लोकांनी कोन्स्टान्टीनोपल नगर हातासलें. बायझँटीनाच्या निमाण्या सम्राटान राजधानी राखून दवरपाचे खूब यत्न केले. ताका झुजामळारूच मरण आयलें. १४६१ त तुर्कांनी टेबिझोन भागाचेर जैत मेळयल्या उपरांत बायझँटीन साम्राज्याचो पुरायपणान अस्त जालो.

**समाजजीण :** समाजवैज्ञानिकांच्या मतान बायझँटीन समाज साबार आदीम मनशांची भरसण जावन तयार जाल्लो आसा. त्या तेंपार खूबशे आर्मेनीयन आनी स्लाव लोक एकांत वाठारांनी वेगळे रावताले. तांणी आपली खाशेली संस्कृती राखून दवरिल्ली. साम्राज्यांतले वड्ड लोकसंख्येंतले चडशे लोक गरीब शेतकामती आशिल्ले. कोन्स्टान्टीनोपल शारांत उंचेल्या वर्गांत आर्मोनियन, बल्गेरीयन, ग्रीक, नॉर्मन आनी तुर्की लोकांचो आस्पाव आशिल्लो. गिरेस्त लोक फांतरी घरांनी रावताले. शेतकऱ्यांचीं घरां मातयेचीं, तिजूल्यांचीं वा फळयांचीं आसतालीं. दरबारांत वावूरपी लोक 'ट्यूनिक' नांवाचे लोकरी कोट घालताले. गरीब लोक सादे लांब झगे तर उंचेल्या वर्गांतले लोक रस्मी लांब झगे घालताले. भाजी-पाव आनी चीज हो सादारण मनशाचो आहार आशिल्लो, पूण गिरेस्त लोक मांसाचे वेगवेगळे पदार्थ खाताले. भौशिक न्हाणयेघरांनी आनी पेवपाखातीर खाशेल्या तळ्यांची वेवस्था आशिल्ली.

रथांची सर्त हो तांचो करमणुकेचो मुखेल खेळ आशिल्लो. किरिस्तांव हो साम्राज्यांतलो मुखेल खेळ आशिल्लो. ३७९त पयलो थिओदोसिअस हाणें किरिस्तांव हो साम्राज्याचो राजधर्म म्हूण जाहीर केल्लो. किरिस्तांव धर्म हेर देशांनीय पातळचो म्हूण त्या वेळार बायझँटीन मिशनरी खूब वावूरल्यो. बायझँटीन कला, संगीत आनी वास्तूशिल्पां किरिस्तांव प्रभावांतल्यान वयर सरल्यांत.

ग्रीक ही साम्राज्यांतलीं अधिकृत भास आशिल्ली. साम्राज्यांतले चडशे लोक गांवगिऱ्या वाठारांनी रावताले. गंव, दाक आनी ऑलीव हीं थंयची मुखेल पिकावळ आशिल्ली. तशेंच बोकडां आनी मेंढ्रां पोसप हो तांचो मुखेल वेवसाय आशिल्लो. साम्राज्याचे वेपारी संबंद हेर देशांकडेन आशिल्ले. रस्मी कपडे, मसालो, आनी हेर चैनिच्यो वस्तू ते चिनांतल्यान आयात करताले. कोन्स्टान्टीनोपल हें मुखेल वेपारी केंद्र आशिल्लें.

**साम्राज्याचें म्हत्व :** चडशा बायझँटीन सम्राटांनी प्रतिरोम करच्या हावेसाक लागून साम्राज्यांत रोमन कला, साहित्य आनी रोमन संस्कृतीचो पुर्नजल्म केलो. बायझँटीन साम्राज्य उदयाक आयिल्ल्यान चडसो युरोप खंड, हेडगी टोळयांसावन तशेंच तुर्की आनी अरब लोकांच्या आक्रमणांसावन मुक्त उरलो. ग्रेट रोमन साम्राज्याचो अंत जालेउपरांत बायझँटीन साम्राज्याच्या पालवान ग्रीक साहित्य, तत्त्वगिन्यान, संस्कृती, चालीरीती तेच प्रमाण रोमन राज्यवेवस्था, कायदे, किरिस्तांव धर्म तिगून उरलो.

- कों. वि. सं. मं.

**बायबल :** किरिस्तांव आनी ज्यू लोकांचो धर्मग्रंथ. 'बिब्लिया' ह्या ग्रीक उतरापसून तयार जाल्ल्या 'बायबल' ह्या उतराचो अर्थ 'पुस्तकां' असो आसा. उपरांत हें उतर लॅटीन आनी हेर भाशांनी आयलें. बायबल हें देव आनी ताचे लोक हांचेभितर जाल्ल्या कराराचें वृत अशें मानतात. हो करार इजिप्तांतल्या सिनाई पर्वताचेर इ.स. पयलीं १२व्या शेंकड्यांत पुराय जालो. देखुनूच तें, 'पवित्र बायबल' (Holy Bible) ह्या नांवान पाचारतात. ह्या ग्रंथाचे दोन विभाग आसात. पयल्या भागाक पोरनो करार आनी नव्या भागाक नवो करार अशें म्हण्टात. पोरन्या करारांत ३९ आनी नव्या करारांत २७ मेळून ६६ ल्हान-व्हड पुस्तकांचो हो एक झेलो. हीं सगळीं पुस्तकां एकाच काळांत बरयल्लीं नासून, खूब पयलीं काळासावन ईश्वरभक्तांक जाल्ले प्रेरणेन हीं ल्हव ल्हव निर्माण जाल्यांत. सनापयलीं १४०० ते इ.स. १०० हो बायबलाचो रचनाकाळ मानतात. हो ग्रंथ ईश्वरी प्रेरणेन निर्माण जाल्लो आसलो, तरी तो ईश्वरनिर्मीत न्हय. तातूंतलीं पुस्तकां विंगड विंगड लोकांनी आपापल्या विचारांक अणसरून आपापले शैलीन रचल्यांत. बायबलांत ईश्वराचें प्रकटीकरण आशिल्ल्यान तें पवित्र मानलां. ह्या प्रकटीकरणाविशींचीं पुस्तकां बायबलांत आस्पावल्यांत. ह्या पुस्तकांक बायबलाचो मूलस्त्रोत म्हणुनूय मानतात. हिब्रू आनी कांय प्रमाणांत ॲरेमायक आनी ग्रीक ह्यो बायबलाच्यो भाशा आशिल्ल्यो. ह्यो भाशा पवित्र मानताले तशेंच लॅटीन, सिरिॲक, कॉप्टिक, स्लाव्हिक ह्यो किरिस्तांव उपासनेंत वापरपी भासो लेगीत पवित्र मानताले. सुरवेक सावन बायबलाचे अणकार लोकांचे बोली भाशेंतल्यान केल्यात. किरस्तांव लोकांच्यो भाशा आनी वाक्यप्रचारांचेर लेगीत बायबलाचो खोलायेन परिणाम जाला. बायबलाचो संदेश हो एका विशिश्ट काळांत, कांय विशिश्ट लोकांक, विशिश्ट संस्कृतायेच्या संदर्भांत दिल्लो दैवी संदेश अशें मानतात. किरिस्तांव समजुतीप्रमाण साक्षात्कारान, स्वयंसिध्दपणान, आत्मशुध्दीन आनी जाणविकायेन सिध्द जावपी साक्षात्काराक लेगीत प्रकटीकरण मानिनात. बायबलांत आस्पाव जाल्लीं पुस्तकां बरयतना जाल्ले दैवी प्रेरणेनूच किरिस्तांव प्रकटीकरणाच्या बिनचूकपणाचें रहस्य आसा हें एका वचनावयल्यान कळटा तें अशें- 'बायबलाचो संदेश मनशांचे इत्सेन केन्नाच प्राप्त जावंक ना, जाल्यार पवित्र आत्म्यान प्रेरीत जाल्ल्या मनशांनी देवाकडल्यान आयिल्लो संदेशच सांगला. हें पवित्र बायबल बरोवपी प्रेरक शक्ती म्हणून देवाकूच ह्या

बायबलाचो लेखक मानला. हाचोच अर्थ असो, देवाचेच उर्बेन आनी प्रेरणेन लेखकांनी तें बरयलां आनी अशे प्रेरणेक लागुनूच देवाचोच संदेश तातूंतल्यान परगटला. अशे रितीन बायबल हें जे तरेन देवाचें उतर, तशेंच मानवी लेखकाचेंय उतर. दैवी प्रकटीकरणाक लागून तातूंतलो मूळ धर्मीक संदेश निर्दोश मानतात.

बायबलाच्या पोरन्या करारांत ज्यू लोकांच्या भावार्थाचें स्वरूप आनी पोरन्या तशेंच नव्या करारांनी किरिस्तांव लोकांच्या भावार्थाचें परिपूर्ण स्वरूप आविश्कृत जालां अशें मानतात. रोमन कॅथलिक आनी ईस्टर्न ऑर्थोडोक्स किरिस्तांव धर्माधिकाऱ्यांनी बायबलाचे मूलस्त्रोत जशे थरयल्यात तशेच तांणींच बायबलाची जपणूक करूंक जाय अशें मानतात. प्रॉटेस्टंट पंथीय लोक बायबलांतलींच उतरां प्रमाण मानतात आनी किरिस्तांव धर्माधिकाऱ्यांचो बायबलाविशींचो अचूक स्पश्टीकरण करपाचो अधिकार अमान्य करतात.

देवाचे खाशेले प्रेरणेन बरयल्लीं आनी मूळ धर्मतत्त्वां सांगपी पुस्तकां बायबलाच्या मूलस्त्रोतांत आस्पावल्यांत. ज्यू सुदारक एझ्राच्या काळांत इ.स. पयलीं ३९८ वर्सा उत्पत्ती, निर्गम, लेवीय, गणना आनी अणकार वा दुसरो कायदो (ड्युटेरोनॉमी) हीं पयलीं पांच पुस्तकां बायबलांत आस्पावल्यांत. ह्या पांच पुस्तकांक 'तोरा' वा 'पेंटाट्यूक' वा 'लॉ'. अशें म्हण्टात. इ.स. पयलींच्या दुसऱ्या शेंकड्यांत १८ प्रेषितांचें (द प्रॉफेटस) लिखाण ताका जोडलें. मूलस्त्रोतांत आस्पाविल्ल्या तिसऱ्या गटाक 'द रायटिंग्स' अशें म्हळां. इ. स. १०० वर्सा जेरूझलॅम शारालागसारच्या जॅब्ने ह्या शारांत स्थायिक जाल्ल्या कांय ज्यू पंडितांनी ज्यू मूलस्त्रोतांत तोरा, प्रेषितांचीं पुस्तकां आनी यहोशवा (जोशुआ), शास्ते (जजेस), रूथ, शमुवेल वा सॅम्युएल-पयलें पुस्तक, शमुवेल-दुसरें पुस्तक, राजे (किंग्ज) - पयलें पुस्तक, राजे - दुसरें पुस्तक, इतिहास (क्रॉनिकल्स) - पयलें पुस्तक, इतिहास- दुसरें पुस्तक, एझ्रा, नहेम्या (नेमिआह), एस्तेर, स्तोत्र-संहिता (साम्स), नीतिसूत्रां (प्रॉव्हर्ब्स), उपदेशक (इक्लिझिॲस्टिस) आनी गीतरत्न (सॉंग ऑफ सॉंग्स) ह्या पुस्तकांचो आस्पाव केला. तोबी (तोबीत), युदीथ (जुडिथ), एस्तेर आनी दानिएल (डॅनिएल) ह्या दोन पुस्तकांक जोडिल्ले पुरवणी भाग, ज्ञानसूत्रां, प्रवक्ता, बारूख, माखाबी-पयलें आनी दुसरें हीं पुस्तकांय ज्यू पंडितांक मोलादीक दिसतालीं. पूण ह्या पुस्तकांचो मूलस्त्रोतांत आस्पाव जावंक ना. ह्या पुस्तकांक दुसऱ्या मूलस्त्रोतांतलीं (ड्युटेरोकॅननिकल) पुस्तकां अशें म्हण्टात. हातूंतलें युदीथ, प्रवक्ता आनी माखाबी-पयलें पुस्तक हीं पुस्तकां मूळ हिब्रू भाशेंत,तोबी हें पुस्तक मूळ ॲरेमायक भाशेंत आनी हेर पुस्तकां मूळ ग्रीकी भाशेंत आसात. क्रिस्तापयलीं सव्या ते चवथ्या शेंकड्यांतली इराणी साम्राज्याची अधिकृत भास ॲरेमायक आशिल्ली. हे भाशेचीच एक बोलीभास जेजू क्रिस्ताची आवयभास आशिल्ली.

प्रॉटेस्टंट सुदारकांनी मात ज्यू मूलस्त्रोत आपणायला. दुसऱ्या मूलस्त्रोतांतल्या सात पुस्तकांचो ह्या मूलस्त्रोतांत आस्पाव जावंक ना. ह्या पुस्तकांक प्रॉटेस्टंट लोक 'ॲपॉक्रिफा' म्हळ्यार लिंपयल्लीं पुस्तकां अशें म्हण्टात. ह्या नांवाचीं सगळीं पुस्तकां जायत्या प्रॉटेस्टंट बायबलांनी पोरनो आनी नवो करार हांचेमदीं आस्पावल्यांत.

नव्या कराराच्या मूलस्त्रोतांत ४ शुभवर्तमानां, लूक हाणें बरयल्लीं धर्मदुतांचीं कृत्यां, धर्मदुतांनी बरयल्लीं २१ पत्रां आनी योहानाचें प्रकटीकरण अशीं २७ पुस्तकां आसून तीं सगळीं मूळ ग्रीक भाशेंत आसात. इ.स. १५० वर्सा बरयल्ला 'मूराटोरियन' मूलस्त्रोतांत हिब्रू लोकांक पत्र, याकोबाचें पत्र, पेत्राचें पयलें आनी दुसरें पत्र आनी योहानाचें एक पत्र अशा पांच पत्रांवांगडा हेर सगळ्या पुस्तकांचो आस्पाव जाता. किरिस्तांव लोकांनी बायबल म्हणून खंयचें लिखाण आपणावंचें हेविशींचो निर्णय किरिस्तांव म्हामंडळाच्या धर्माधिकाऱ्यांनी घेतलो अशें नव्या कराराचे मूलस्त्रोत रचणुकेवयल्यान दिसता.

**पोरनो करार :** ज्यू आनी किरिस्तांव लोक अधिकृत सामूहिक उपासनेखातीर तशेंच खाजगी वाचन आनी ध्यान-मनन करपाखातीर पोरनो करार वापरतात. हो करार वाचतना मार्गदर्शन जावंचें म्हणून पयलीं स्तोत्रसंहितेचो आदार घेवंचो, उत्पत्ती आनी निर्गम हीं पुस्तकां वाचचीं आनी उपरांत यशया आनी यिर्मया ह्या संदेश्टयांचीं वा प्रेषितांचीं पुस्तकां वाचचीं. ह्या पोरन्या करारांतलो 'स्तोत्रसंहिता' हो प्रार्थनांझेलो सगळ्यांत चड प्रमाणांत वाचप जाता. पोरनो करार एकेश्वर वाद शिकयता तशेंच इतिहासांतल्या घडणुकांवतीन देव कशें कार्य करता आनी ह्या इतिहासा फाटल्यान देवाच्यो कितें येवजणो आसात हें तो सांगता. बायबलाचीं इतिहासीक पुस्तकां समजून घेवपाखातीर शमुवेल-पयलें पुस्तक, शमुवेल-दुसरें पुस्तक आनी राजे-पयलें पुस्तक आनी दुसरें पुस्तक हीं म्हत्वाचीं आसात.ह्या पुस्तकां उपरांत हेर पुस्तकां वाचपाचीं आसतात. बायबलाचो हो पयलो भाग जेजू क्रिस्ताचे पयलीं रचिल्लो भासून तो यहुदी लोकांचो धर्मग्रंथ आशिल्लो. तातूंतलीं चडशीं पुस्तकां मूळ हिब्रू भाशेंत बरयल्लीं आशिल्लीं. तांचें ग्रीक भाशेंतलें भाशांतर हेंच प्रमाणभूत मानतात. जेरोम नांवाच्या साधून लॅटीन भाशेंत केल्लें भाशांतर रोमन कॅथलिक इगर्जेंत स्तोत्रवाचनाखातीर वापरतात. ह्या भागांत यहुदी लोकांचो इतिहास आसा, उत्पत्तीच्या आनी आदिमानवाच्यो कथा आसात. इझ्रायलाच्या व्हड मनशांचीं चरित्रां आसात आनी धर्मकर्मांचें विवेचन आसा. तशेंच तातूंत नाट्य, काव्य आनी नितीविशींचीं सुत्रां आसात. ह्या सगळ्यांतल्यान परमेश्वरी येवजणेचें स्वरूप उकतें जाता. यहुदी लोकांच्या ह्या धर्मग्रंथांत तांचें लोकशासन पद्दतीचें वर्णन आसा. ते पद्दतींत सगळे अधिकार देवाक दिल्ले आसून सगळे कायदे देवाच्या तोंडांतल्यान आयल्यात अशें मानतात. रोमी साम्राज्याक लागून यहुदी लोकांच्या नशिबांत गुलामगिरी आयली. ते गुलामगिरींतल्यान सुटका करपी 'मसीहा' रोखडोच संवसारांत येवपाचो आसा असो तांकां संदेश मेळिल्लो. लोकांचे ते आशेचेर आनी प्रतिक्षेचेर भर दिवन जेजू क्रिस्तान

आपल्या कार्याक आरंभ केलो. ताणें लोकांक सांगलें, 'तुमी जाची वाट पळयतात तो मुक्तिदातो आयिल्लो आसा. पश्चाताप करात कारण सर्गाचें राज्य लागीं आयिल्लें आसा'.

**नवो करार :** बायबलाचो हो दुसरो भाग जेजू उपरांत बरयला. जेजूची जीण, व्यक्तिमत्व, आत्मबलिदान आनी पुनरूत्थान हांकां लागून मनशाची मुक्तताय कशी जाली, इगर्जेची स्थापणूक कशी जाली आनी ताचो प्रभाव कसो पडलो हें तातूंत सांगलां. ह्या भागाची रचना इ. स. ५० ते १०० ह्या काळांत जाली. सुरवेक जेजूचे शिश्य वा ताच्या काळांतले मनीस, लोकांक जेजूविशीं म्हायती सांगताले. प्रभू येवन आपल्याक घेवन सर्गांत वतलो हें तांच्या तोंडांतलें शुभ वर्तमान लोक आयकताले. उपरांत जेजूच्या शिश्यांनी विंगड विंगड किरिस्तांव मंडळांक पत्रां बरयलीं. ते उपरांत तांणीं जेजूचीं चरित्रां बरयलीं. तातूंतल्यान बायबलाचो दुसरो भाग निर्माण जालो. ह्या भागांत मत्तयाचें शुभ वर्तमान, मार्काचें शुभ वर्तमान, लूकाचें शुभ वर्तमान आनी योहानाचें शुभ वर्तमान हीं जेजूच्या चरित्राचीं चार पुस्तकां आसात. पांचव्या पुस्तकांत जेजूच्या पट्टशिश्यांच्या कृत्यांचें वर्णन आसा. योहानाचो साक्षात्कार हें सवें पुस्तक, हातूंत ताणें चर्चेचें भविश्य प्रतिकात्मक शैलीन सांगून, मुक्तीचें अंतिम स्वरूप वर्णिलां. हेर २१ पुस्तकां म्हळयार जेजूच्या शिश्यांच्या पात्रांचे संग्रह आसात.

पोरनो करार आनी नवो करार हांचेभितर दोनशे वर्सांचो काळ गेलो. पोरन्या कराराच्या ॲपॉक्रिफाप्रमाण उपरांत नव्या कराराचोय ॲपॉक्रिफा तयार जालो. तातूंत 'यहूदा थोमाचीं कृत्यां' ह्या पुस्तकाचो आसपाव जाता.

संवसारांतल्या चडशा सगळ्या भाशांनी बायबलाचीं भाशांतरां जाल्यांत. ह्या ग्रंथाचो सगळ्यांत चड प्रसार जाला. युरोप, अमेरिकेंतले साहित्यिक बायबलाक एक अद्वितीय ग्रंथ मानतात. ए. बी. रूद्रिगीश हाणें पुणें विद्यापिठाकडेन सादर केल्ल्या, बायबलाचो मराठी अवतार ह्या प्रबंधाक डॉक्टरेट फावो जाल्या (१९७४). सोळाव्या-सतराव्या शेंकड्यांत जेजुईत आनी फ्रांसिस्कन पाद्रींनी बायबलाच्या कांय वांट्याचो अणकार कोंकणींत केला. गोंयांत हालीं एक अणकार दिलीप बोरकार हाणें केला. उपरांतूय अशा अणकारांचे जायते यत्न जायत आसात. बायबल ह्या इतिहासीक ग्रंथावरवीं धर्मीक आनी नैतिक म्हायती वांगडा, तत्कालीन इतिहास, भुगोल, वास्तुशास्त्र, समाज-रचणूक हांचीय वळख जाता.

- फा. आंतोनियु पेरैर

- कों. वि. सं. मं.

## बायरन, जॉर्ज गार्डन लॉर्ड : (जल्म : २२ जानेवारी १७८८, लंडन; मरण : १९ एप्रिल १८२४, मिसोलाँधी-ग्रीस).

एक व्हड इंग्लीश कवी. लॉर्ड बायरन ह्या नांवान ताची चड नामना आसा. एका उमराव घराण्यांत ताचो जल्म जालो. बायरन हो दिसपाक खुबूच सुंदर दिसतालो, पूण जल्मतनाच थोंटो आशिल्लो. १७९८ त ताचो बापोलआजो मरतकच ताची आस्पत आनी उमराव घराण्याचो किताब ताका ताचो वारस म्हणून मेळ्ळो.

ताणें ॲबरडीन, नॉटिंघम आनी डलिज हांगा आपलें सुरवेचें शिक्षण घेतलें. १८०१ ते १८०५ ह्या काळांत तो हॅरो हांगा शिकतालो. १८०८ त ताणें केंब्रीजाचे ट्रिनिटी कॉलेजींतल्यान एम. ए. ची पदवी घेतली. ट्रिनिटी कॉलेजींत शिकयता आसतनाच 'फ्युजिटिव्हपीसिस' हो आपलो कविता संग्रह ताणें खाजगी तरेन उजवाडाक हाडलो (१८०६). 'उपरांत चायल्ड हॅरल्डस पिलग्रिमेज' (४ खंड १८१२-१८१८), 'गिओर' (१८१३), 'द कॉर्सेर' (१८१४), 'लारा' (१८१४), 'द सीज ऑफ कॉरिंथ' (१८१६), डॉन वॉन (१६ सर्ग, १८१९-२४) ह्या कविताकृतींनी ताका कवी म्हणून व्हड नामना मेळ्ळी. १८०९ त इंग्लंडच्या पार्लमेंटांतल्या हाऊस ऑफ लॉर्डसाचो तो वांगडी जालो. २ जानेवारी १८१५ दिसा ॲन इझाबिला मिलबॅंक हे तरनाटेकडेन ताचें लग्न जालें. तांकां एक चली जाली. ऑगस्ट ली नांवाचे एके बायलेवांगडा ताचे संबंद आशिल्ले. ह्याच कारणाक लागून ताच्या संवसारांत बादा आयली. बायरनाचे जायत्या बायलांकडेन संबद आशिल्ले आनी ताच्या चारित्र्याचेर समाजांत टिका चलताली. फुडें ताणें आपले बायलेक सोडचीट दिली आनी देश सोडलो (१५ एप्रिल १८१६). इंग्लंडाक तो परतो केन्नाच गेलोना. वॉटरलू हे इतिहासीक रणभुंयेक भेट दितकच तो कांय तेंप स्वित्झर्लंडांत रावलो आनी उपरांत इटलीक गेलो. स्वित्झर्लंडाक आसतना 'शॅली' ह्या नामनेच्या इंग्लीश कवीकडेन ताची वळख जाली. क्लॅर क्लॅरमॉंट हे शेलीच्या नात्यांतले एके बायलेवांगडा ताचे संबंद आशिल्ले. १८१९ त काउण्टेस तेरेझा गुइच्चीओली हे बायलेकडेन ताचो मोग जालो आनी तो निमाणेमेरेन उरलो. १८२१ सावन ग्रीकांनी तुर्कांआड चालू केल्ल्या सुटकेझुजांत वांटो घेवपाची संद ताका मेळ्ळी (१८२३). आपलो प्रतिनिधी म्हणून ग्रीक सुटकेझुजाऱ्यांक आदार दिवपाची विनवणी ताका 'लंडन ग्रीक कमिटी' हे संघटनेवतीन केल्ली. ग्रीसांतल्या मिसोलाँधी ह्या गांवांत काय तेंपाच्या दुयेंसा उपरांत ताका मरण आयलें. मरणा उपरांत ताची कूड इंग्लंडाक व्हेल्ली. पूण थंयच्या वॅस्टमिन्स्टर ॲबींत दफन जावपाचो मान ताका दिलोना. पूण १९६९ त वॅस्टमिन्स्टर ॲबींत ताचें यादस्तीक बांदलें.

खाजगी तरेन उजवाडाक आयिल्लो फ्युजिटिव्हपीसिस हो कवितांझेलो सोडल्यार अवर्स ऑफ आयडलनॅस (१८०७) हो ताचो पयलो कवितांझेलो. 'एडिंबरो रिव्ह्यू हातूंतल्यान ताचेर खर टिका जाली. हे टिकेक जाप दिवपाक ताणें 'इंग्लीश बार्डस ॲंड स्कॉच रिव्ह्यूअर्स (१८०९) हें विडंबन काव्य बरयल्लें. 'चायल्ड हॅरल्डस पिलग्रिमेज' ह्या

खंडकाव्यांत उदास, स्वाभिमानी, एकटुको आनी समाजीक वेव्हाराविशीं दुस्वास आशिल्लो ताचो नायक साकार जाला. जायत्या युरोपीय देशांतल्यान हेडपी एक भोंवडेकार चित्रावन बायरनान युरोपांतल्या संघर्शाचें जितें जिवें चित्र उबें केलां. तशेंच, समाजीक अन्यायाकूय वाचा फोडल्या. 'डॉन वॉन' हें ताचें आनीक एक उल्लेख करपासारकें काव्य आसा. 'डॉन वॉन' ह्या नायकाचीं जायतीं मोगाचीं प्रकरणां ह्या काव्यांत वर्णन केल्लीं आसात. सुलतान, चांचे, सुंदर बायलो, रशियन राणी कॅथरिन आदी जायत्या व्यक्तिरेखांची माळ ह्या काव्यांत आयल्या. ह्या काव्यांत ताचें चायल्ड हॅरल्डसांतलें निर्शेल्लेंपण दिसना, जाल्यार एके तरेचें ताजेंपण आनी उमेदीचो प्रत्यय येता. बायरूनाच्या व्यक्तित्वाचीं कांय वेगळीं तासां देखीक- विनोदी बुद्धी आनी तातूंतलो प्रभावी उपरोधक पळोवंक मेळटा. वीरविडंबना शैलींत बरयल्ले बेप्पो (१८१८) हे ताचे काव्यकृतींत हीं तांसां दिश्टी पडटात. बायरनाचो एक साहित्यीक दुस्मान रॉबर्ट सदी हाणें 'व्हिजन ऑफ जजमेण्ट' (१८२१) हें एक काव्य बरयल्लें. बायरनान त्याच नांवाचें काव्य बरोवन ताचें विडंबन केलें (१८२२). द गिओर, द कॉर्सेर, लारा आनी ब्रायट ऑफ ॲबिडॉस (१८१३) हीं ताचीं कथाकाव्यां 'ओरिएंटल टेल्स' ह्या नांवान वळखतात. हातूंतल्यान ताचें पोरन्या रितीरिवाजांचें आनी वातावरणाचें आशिल्लें गिन्यान स्पश्ट जाता.

बायरन हो इंग्लीश स्वच्छंदतायवादाचे दुसरे पिळगेंतलो कवी. पूण ताणें स्वच्छंदतायवाद सांकेतीकपणान फुडें चलयलोना. तो भूतकाळांत रमपी नाशिल्लो. पूण ताका वर्तमानाची खर जाण आशिल्ली. कल्पनांची स्वैरताय आनी बुद्दीचें अचूकपण हांचो मेळ ताचे भितर जाल्लो. निराशेचो खर आविश्कार आनी सुटकेचो अखंड आनी प्रामाणिक ध्यास हीं ताच्या स्वच्छंदतायवादाचीं मुखेल तासां, ताका कृतीशील मनशांची तोखणाय आशिल्ली आनी ताची आपली जिणूय कृतीशील आशिल्ली. देखुनूच ग्रीसाच्या सुटकेझुजांत ताणें मनापसून वांटो घेतिल्लो.

बायरनान कांय नाटकांय बरयल्यांत.

बायरनाचें वस्तुनिश्ठ साहित्यिक मूल्यमापन करप सोंपें न्हय. कांय जाणकार म्हण्टात, ताचे काव्यप्रतिभेंत कांय दोश आसात, ताची अभिरूची सारकी ना, तातूंत अडेचें नाट्य आसा. पूण ह्या दोशांचेर मात करपी कांय असामान्य गूण ताच्या काव्यांत दिश्टी पडटात.

- कों. वि. सं. मं.

## बायर, फिड्रिक

**बायर, फिड्रिक :** (जल्म २१ एप्रिल १८३७, वॅस्टर एगोंद - झीलंड; मरण : २२ जानेवारी १९२२, स्टॉकहोम).

डॅनमार्की मुत्सद्दी आनी शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार विजेतो. सुरवेक कांय तेंप तो सेनादलांत आशिल्लो. उपरांत ताणें फ्रेंच, स्विडिश, नॉवजियन आदी भाशांचो अभ्यास केलो आनी शिकोवपाचें काम करूंक लागलो. फ्रेदेरीक पासी हाणें स्थापन केल्ल्या शांतता लीग हाका ताणें तेंको दिलो आनी स्कँडिनेव्हियन देशांनी (स्विडन, नॉर्वे, डेन्मार्क, फिनलंड आनी आयसलंड) भाशीक मळार एकचार करून संयुक्त कबलात घडोवन हाडपाचो यत्न केलो. कोपन हेगनांत उदारमतवादी धोरणाच्या प्रसारा खातीर ताणें संस्था स्थापन केली आनी अशे तरेन तो राजकारणांत शिरकलो (१८६९). १८७२-१८९५ ह्या काळांत तो डॅनमार्की राश्ट्रीय संसदेचो वांगडी आशिल्लो. थंय ताणें स्कँडिनोव्हियन देशांतर्गत शांततामय सहजीवनाचो पुरस्कार केलो. १८७१त ताणें स्त्री मुक्ती चळवळीक स्फूर्त दिवपाक डॅनिश वुमॅन्स ॲसोसिएशनाची स्थापना केली. डॅन्मार्काचे राखणे खातीर तटबंदी आनी शस्त्रांपुरवण हांचेर भर दिवंचे परस नॉर्डिक तटस्थतायेक आंतरराश्ट्रीय मान्यताय मेळोवन हो राखणेचो प्रश्न शांततायेच्या मार्गान हाताळपाचो, अशे विचार ताणें मांडले. तेखातीर ताणें 'सोसायटी फॉर प्रोमोशन ऑफ डॅनिश न्युट्रॅलिटी' हे संस्थेची स्थापणूक केली. फुडें १८८५ त ताणें हे संस्थेचें डॅनिश पीस असोसिएशन हे संस्थेंत रुपांतर केलें. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत हे संघटनेक डॅनिश नॅशन्स पीस असोशिएशन ह्या नांवान वळखूंक लागले. तटस्थतायेच्या प्रस्नाचो बारीक अभ्यास करून जिनिव्हांतल्या काँग्रेस ऑफ पीस सोसायटीज हे परिशदेंत एकामेकांमदीं सहकार आसचो अशा आशयाचो ताणें एक थाराव मांडलो (१८८३). ह्या थारावाक मान्याताय मेळ्ळी. तेन्नाच स्कँडिनेव्हियन देशांनी एकचार घडोवन हाडपाखातीर ताणें रातदीस यत्न केले. १८९०त ताणें ह्या सगळया वावराखातीर बर्नाक एक आंतरराश्ट्रीय म्हायती केंद्र स्थापन केलें. ह्या केंद्राचो तो जायतीं वर्सां अध्यक्ष आशिल्लो. ताणें १८८४ त बर्न हांगा आनी १८८९ त पॅरिसांत भरिल्ले आंतरराश्ट्रीय शांतताय परिशदेंत वांटो घेतलो आनी संवसारीक शांततायेचो पुरस्कार केलो. तेचपरी १९०० त स्कँडिनेव्हियन ऑर्गनायझेशनची स्थापना केली. ताच्या ह्या शांततायेच्या वावराखातीर ताका १९०८ वर्साचो शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार क्लास पोंटस आर्नुल्डसन हाचे वांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

## बायलमुक्ती चळवळ

**बायलमुक्ती चळवळ :** बायल-दादलो हांचेमदीं आशिल्ले परंपरीक विशमतेपसून मुक्ती करपाक केल्ली चळवळ. दादल्याची शारिरीक रचना ताचे गुणधर्म बायलेच्या शारिरीक रचनेपरस आनी गुणधर्मापरस वेगळे आसात, हें मान्य करून समाजाच्या सगळयाच मळांचेर दोगांकय समान तरेचें वागप मेळप हो हे चळवळीचो उद्देश आसा. बायलेची कूड बायलेच्या जिविताची नियती निश्चीत करता. Anatomy is destiny ही सिग्मंड फ्रॉयडची परंपरीक धारणा बरोबर नासून दादल्याप्रमाण बायलेच्या कर्तुपांतल्यान तिची नियती थरता. हें चळवळीचें मुलभूत तत्त्व आसा. बायलांचीं कामां दादल्यांनी करप आनी दादल्यांचीं कामां बायलांनी

करप वा दादल्यांची सत्ता झोमून घेवप हो चळवळीचो हेत ना. डॉ. मार्गारेट मीड ही मानवशास्त्रज्ञ बायल आनी हेर शास्त्रज्ञाच्या संशोधनाप्रमाण ल्हान चल्या भुरग्याचें रुपांतर दादल्यांत आनी ल्हान चली भुरग्याचें रुपातंर बायलेंत जाता तें ताच्या कुडिच्या सैमीक गुणाक लागून न्हय तर तांची वाड जातना तांकां मेळिल्ल्या संस्कारांक लागून.

जल्मावयल्यान लिंगभेद जाता आसलो तरी तो कार्यभेद जावंक शकना आनी जंय कार्यभेद जावंक शकना आनी जंय कार्यभेद जायना थंय हक्क भेद जावंक फावना असो शास्त्रीय विचार हे चळवळी फाटल्यान आसा.

Anatomy is destiny ह्या तत्त्वाप्रमाण बायल मनीस ही विकासाचो लाव घेवपी एक निश्क्रीय व्यक्ति जाता. हो परंपरीक समज पयस करून बायल मनशेक विकास येवजणेंत सहभागी करून तिच्या बळग्याचो मानव उदरगतीखातीर वापर करूंक जाय हो हे चळवळीचो विचार समाज वेवस्थेंत एक परिवर्तन घडोवन हाडटलो हो हे चळवळीचो विश्वास आसा. परंपरीक समाज वेवस्थेंत घुस्पटून पडिल्लें बायल मनशेतलें सुप्त बळगें मुक्त जावन दादलो आनी बायल हांचे मदलो गेल्लो तोल सावरपाचें उद्दीश्ट हे चळवळीन आपणायलां.

बायल मुक्ती चळवळीची अधिकृत सुरवात भारताच्या स्वातंत्र्या उपरांत जाली आसली तरी स्त्रिमुक्तीचे विचार बाराव्या शेंकड्यापसून समाजांत घोळटाले. बाराव्या शेंकड्यांत महानुभव पंथाचो चक्रधर स्वामी हाचे विचार, तेराव्या शेंकड्यांतलें संत जनाबायचें व्यक्तीमत्व, १९व्या शेंकड्यांत ताराबाय शिंदे, पंडिता रमाबाय, डॉ. आंनदी बाय जोशी, डॉ. रखमाबाय हांची वैयक्तीक कर्तबगारी ह्यो बायलमुक्ती चळवळीच्यो देखी अशें म्हणू येता. ह्यो देखी चडशा प्रमाणांत वैयक्तीक थराचेरच उरिल्ल्यो. वैयक्तीक वा कुटुंबीक थरावयल्यान वचून समाजीक चळवळीचेर व्हरपाचें आनी तिका विचारीक बसका दिवपाचें काम महात्मा जोतिबा फुले हाणें केलें. आपलो विचार फुडें व्हरपाचें साधन म्हणून ताणें बायलांचें शिक्षण हातांत घेतलें (१८४८). समाजाचो खर विरोध पचोवन ताणें बायलांक शिक्षण दिवपाचें, विधवा बायलांक आदार करपाचें काम सातत्त्यान आनी शेवटामेरेन केलें. हाका लागून ताका भारतीय बायलां चळवळीचो जनक मानतात.

महात्मा फुलेची परंपरा फुडें व्हरप्यांमदीं लोकहितवादी, गो. ग. आगरकर, महर्षी धोंडो केशव कर्वे, इश्वरचंद्र विद्यासागर, राजा राममोहन रॉय, डॉ. राममनोहर लोहिया, डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर आनी महात्मा गांधी हांचो मुखेलपणान आस्पाव जाता.

भारतीय राजघटनेच्या चवदा, पंदरा, सोळा कलमाप्रमाण कायदो, नोकरी संबंदी बायलांक समान हक्क दिल्यात. ३२६ व्या कलमा प्रमाण मतदानाचो समान हक्क मेळ्ळा. घटनेचें उद्दीश्ट नदरेमुखार दवरून बायल-दादले समानतेसंबंदी भारत सरकारान बरेच कायदे केले. हिंदू लग्न विशयक कायदो (१९५५), वारसा हक्क विशयक कायदो (१९५६), अनैतिक वेवसायाक आळो घालपी कायदो, हुंडा बंदी कायदो (१९६१), हे कांय मुखेल कायदे. तेभायर दादलो बायल समानता आनी बायल कल्याण कार्यावळ नदरेमुखार दवरून भारताच्या पांच वर्सुकी येवजणांनी जायत्यो तरतुदी करून दवरल्यात. ह्या तरतुदिंची अंमलबजावणी करपाखातीर केंद्रीय समाज कल्याण मंडळ (१९५८), राश्ट्रीय समिती (१९७१), पंतप्रधानाचे अध्यक्षतेखाला घडयल्ली आनी एक केंद्रीय समिती (१९७५) निर्माण करपांत आयल्यो. बायल मुक्ती चळवळीचे विचार खूब आदीं सावन घोळत आसले तरी आधुनिक चळवळीक १९ व्या शेंकड्यांत नेट आयलो. हाचें श्रेय आधुनिकीकरण, लोकशायकरण, शिक्षण ह्या तीन घटकांकडेन वता. आधुनिकी करणांतल्यान (विचारीक आनी भौतिक) परंपरीक भौशीक स्वरुपाची समाज वेवस्था कोसळ्ळी आनी तिची सुवात वैयक्तीक योगदान आस्पावपी समाज वेवस्थेन घेतली. लींग, वय, जात, धर्म आधुनिकीकरणाक उपकारक अशो वैयक्तीक योगदान हो नवो कस समाजीक दर्जो थारावंक लागलो. हाचे जोडयेक लोकशायीकारणान बायलांक राजकीय समान हक्क प्राप्त करून दिल्ल्यान बायलांक समाजीक प्रतिश्ठा मेळ्ळी. शिक्षणाच्या प्रसारान तांकां बौध्दिक अधिश्ठान फाव जालें. ह्या सगळयांचो एकत्रित परिणाम म्हणून बायल मुक्ति चळवळीक बळिश्ट असो तेंको मेळ्ळो. त्याच परिणामांक लागून हे चळवळीचीं उद्दिश्टां दृश्टीपथांत येवंक लागल्यांत.

युनोन (UNO) १९७५ हें आंतरराश्ट्रीय महिला वर्स म्हणून जाहिर केल्ल्यान हे चळवळीक आंतरराश्ट्रीय संदर्भ मेळूंक पावलो.

- कों. वि. सं. मं.

**बारटक्के, भिकोबा अनंत :** (जल्म : ९ एप्रिल १९३४, इस्लामपूर, वाळवा, जिल्हो-सांगली).

सुटकेझुजारी. तांणें १० जून १९५५ ह्या दिसा कॉम. राजाराम पाटिल हाच्या फुडारपणाखाला पेडण्यां जाल्ल्या सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरून खूब मार दिलो, जाका लागून ताका बरीच दुखापत जाल्ली. १९८७ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान ताका सन्मानपत्र दिवन भोवमान केलो.

- कों. वि.सं. मं.

**बारडा :** महाराष्ट्रांतली एक आदिवासी जमात. भिल्ल जमातीचीच ही एक पोटजात आसून तिका बर्डा, बरडा, बार्डा ह्याय नांवांनी वळखतात. तांची वसती चड करून नासिक, जळगांव, अहमदनगर, औरंगाबाद आनी धुळे ह्या जिल्ह्यांनी आसा. बारडा हें नांव उणे प्रतीचें मानिल्ल्यान

ते स्वताक भिल्ल म्हणोवन घेतात. बारडा लोक आपले जमातीची उत्पत्ती महादेवापसून जाली अशें मानतात आनी तांचे आचार-विचार हिंदू लोकांभाशेन आसात.

बारडा लोकांच्या राबित्याच्या वाठारांक 'भिलाट्यो' म्हण्टात. ह्या भिलाट्यांनी तणाच्यो वा मातयेच्यो वण्टी आशिल्ल्यो ल्हान खोंपी आसतात.

मराठी लोकांच्या सांगातान राविल्ल्यान बारडा लोक मराठीच भाशा उलयतात. तांची आपली अशी बोलीभास ना.

हनुमान, लक्ष्मी, म्हसोबा, भैरोबा, मरीआई, अरूण ह्या देवांक बारडा लोक भजतात. तशेंच, भुरगें जल्मतकच पांचवीक सटीची पुजा करतात. होळी, दसरो, संवसार पाडवो, नागपंचम ह्यो परबोय बारडा लोक मनयतात.

हे लोक एकाच कुळांत लग्नां करिनात. चले-चलयांचीं लग्नां सादारण १५ ते २० वर्सांचेर जातात. विधवाविवाह जातात आनी घटस्फोट घेवपाचीय चाल तांचेमदीं आसा. जादू, भूतबादा, मंत्र-तंत्र हांचेर बारडा लोकांचो खूब विश्वास आसा.

हे लोक मडें पुरतात वा लासतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बारसो :** जल्मल्ल्या भुरग्याक नांव दवरपाचो सुवाळो. संवसारांत तरेकवार वस्तू आनी जीव आसतात. कांय प्रमाणांत तांचो रूपकार आनी गूणधर्म एक सारको आसता. तांची वळख करून घेवपाखातीर तांकां नावाची गरज आसता.

हें नांव हिंदू धर्मांत चड करून बाराव्या दिसा दवरतात. देखून हाका बारसो म्हण्टात. बारशा दिसा नांव दवरता आसतना शुभ तीथी, नक्षत्र, चंद्रबळ, आदी कांयच पळोवपाची गरज नासता. पूण बारसो, बारावो दीस सोडून हेर खंयच्याय दिसा वा म्हयन्या उपरांत केल्यार हें सगळें पळोवपाची गरज आसता. बाळंतीण वा भुरग्याक भलायकेचे त्रास आसल्यार वा बाराव्या दिसा संक्रांत, गिराण, उमास येत जाल्यार त्या दिसा बारसो करिनात. तशेंच भर दनपारां वा रातचो हो सुवाळो करिनात.

नांवां दरवपाचे प्रकार चार तरांचे आसतात.

१. **देवासंबंदान** : नागेश, शंकर, गणेश.

२. **म्हयन्यावयल्यान** : बारा म्हयन्याक एक एक वेगळें देवाचें नांव आसता. चैत्रांत वैकुंठ, वैशाखांत जनार्दन, ज्येश्ठांत उपेंद्र अशीं म्हयन्यांवयल्यान नांवां दवरतात.

३. **नक्षत्र नांव** : दर नक्षत्रांक चार चरण आसतात आनी दर चरणाक एक एक अक्षर आसता. त्या अक्षरान सुरवात जावपी नांवां दवरतात. देखीक, आश्विनी नक्षत्राचे चार चरण, दरेका चरणाचे चु-चे-चो हे अक्षरां वयल्यान, 'चु' 'चूडू', चे वयल्यान 'चेपो' अशीं नांवां आदल्या काळांत मेळटालीं. पूण सद्याच्या काळांत अशीं नांवां चडशे लोक दवरिनात.

४. **वेव्हारीक नांव** : हें नांव आपआपले आवडीप्रमाण दवरतात. कांयजाण भायर पडिल्ल्या घरांतल्या जाण्टेल्यांचें, तांची याद म्हणून नांव दवरतात. जाल्ल्या भुरग्याचें नांव, आंगवण करून पाविल्ल्या देवाचे आंगवणीक वा साधुच्या नांवा वयल्यान दवरपाचीय चाल आसा.

पुताचें नांव सम अक्षराचें आनी धुवेचें नांव विषम अक्षरांचें आसचें अशें म्हळां. आपस्तंभ सुत्रांत आनी हिरण्यकेशी सुत्रांत प्रतिपादकान सुरवात जावपी आनी धातून (क्रियापदान) सोंपपी वा उपसर्गयुक्त नांव दवरचें, अशें म्हळां. देखीक, हिरण्यदा ब्राह्मणाचें वेव्हारांतलें नांव शर्मा वा देव ह्या अक्षरांनी; क्षत्रियांचें वर्मा वा राज; वैश्यांचें गुप्त वा दत्त आनी शुद्रांचें दास ह्या पदांनी सोंपपी नांव आसचें.

बाराव्या दिसा नांव दवरपाचो सुवाळो जाता. देखून ताका बारसो म्हण्टात. पूण म्हयन्याउपरांत नांव दवरल्यार ताकाय बारसोच म्हण्टात. बारशा दिसा सांजवेळचें भुरग्याक पाळण्यांत घालून नांव दवरपाचो सुवाळो करतात. पूण ताचेआदीं बांळटीक बांयक आफडूंक व्हरतात. पांच तरांचें पांच मुठी धान्य घेवन तें बांयचे धडेर पांच वांटे करून दवरतात. ताचेर इल्लें उदक फाफडून मलमलांचे ल्हानशेच चवकोनी कुडके घेवन ते हळदी उदकांत बुडोवन धान्याचे राशीचेर धांपतात. उपरांत बाळंतीण ताचेर हळद-कुकूम घालता. तशेंच ती बांयचे पांच तांबये उदक काडटा. हें उदक हेर कोणूय व्हरून फुलां-फळां येवपी पांच झाडांक घालता. सवो तांबयो उदक काडून घेवन तातूंत धान्याचे राशीचेर धांपिल्ल्या कुडक्यांतलो एक कुडको घेवन तातूंत बुडयता आनी ताचें एक पोंत तांबयाचे कडेवयल्यान भायर सोडून ताचे वयल्यान उदकाची धार गळयत तो तांबयो हातांत घेवन घरांत भितर सरता. अशें करपाफाटलो हेतू म्हळयार जें भुरगें घरांत जल्मलां ती परंपरा तशीच चालू उरची. पांच तरांचे जें धान्य भिजोवन दवरलां ताका कोंब येवन धान्य चडांत चड पिकचें तशेंच ह्या घराची वशंवेल वाडत वचची.

उपरांत भुरग्याक पाळण्यांत घालपाचो सुवाळो करतात. घरांत पाळणें बांदून तें सजयतात. पाळण्याच्या चारूय खुरांकडेन आनी पाळण्यापोंदा मूठ मूठ तांदूळ घालून ताचेर एक एक सुपारी दवरतात. पाळण्याच्या उश्याकेडन एक पांच वातींची दिवली पेटोवन दवरतात. पाळण्यांत मोवशें हांतरूण घालून कडांनी दोन लोळे दवरतात. बारशा दिसा आमंत्रीत लोकांक दिवपाक हेर खाणां वांगडाच आटवलूय करतात. आटवल म्हळयार तांदूळ, मेथी, गोड, आनी नाल्लारोस घालून केल्लें

बारशा दिसाचें खास गोडशें. आटवल खाल्ल्यान बाळंटिच्या आंगाची दूख वता आनी भुरग्याक आवयचें दूद बरें मेळटा असो समज आसा.

चड करून दर एके बायलेचो पयलो बाळंटेर कुळारा जाता. देखून त्या भुरग्याच्या बारशाक घरच्या लोकांक भोवमानाचें आपोवणें वता. भुरग्याचें नांव घरचे लोकच दवरतात. बारशाक येता आसतना घरच्या लोकांनी म्हळयार भुरग्याचे आज्येन भुरग्याक बारशाचें न्हेसण, तांकता जाल्यार भांगराची वस्त, आंगलीं, तोंपरीं, गोजङ्यो, पोळेर, खेळणीं, पावडर, शाबू, कपडे, रुप्याचीं आयदनां, बाळंतणीक व्हॉट, व्हॉटयेक साडी, खण आनी पांच नाल्ल. तेभायर, पांच तरांचीं खाणां आनी पठ्ठाळो घेवन वचचें आसता. पठ्ठाळयांत बाळंटिच्या आनी भुरग्याच्या आंगाक लावपाक खोबरेल तेल, आटवलाक तांदूळ, शंबर नाल्ल, गोडाची धेंप, मेथयो, घरावें तूप, पोर्ताच्यो दोन बाटल्यो (पोर्त व्हायन), मेणवातीचो आनी फस्काचो मास, भुरग्याक वखदाचें सामाड्डें, सामाड्ड्यांत बाळशेप, बडिशेप, जिरें, घोंसवेल, पासां, खडीसाकर, वेखण आदी आसता.

भुरग्याक पाळण्यांत घालपाच्या वेळार बाळंटिच्या आनी भुरग्याच्या दोळ्यांत काजळ घालतात. तशेंच भुरग्याच्या पोल्यार, कपलाक आनी खाडकेक दिश्ट जावंची न्हय देखून काजळाची तीट लायतात. उपरांत भुरग्याक घरचे आज्येन हाडिल्लो बारशाचो खाशेलो भेस घालतात. बाळंतीण बायंक आफडून येतकच दुसरें न्हेसण न्हेसता. उपरांत मांय सुनेची व्हॉट भरता.

गोंयांत भुरग्याक पाळण्यांत घालचे आदीं फातर बाळकृष्ण म्हणून पाळण्यांत घालपाची चाल आसा. एक गुळगुळीत, सुळसुळीत फातर घेवन ताका धवेंफुल्ल वस्त्र न्हेसोवन, भांगराची सरपळी वेढावन ताका पाळण्यांत घालतात. घरची आनी आजोळची आजी वा घरची आनी कुळारची एक एक बायल पाळण्याचे दोंशीं वंटांनी उब्यो रावतात. सुरवेक एक बायल बाळकृष्ण घेवन तो पाळण्यांतल्या हांतरुणाक तेंकयता आनी उपरांत पाळण्या पोंदच्यान दुसरे बायलेच्या हातांत दिता. तीय तशीच आपल्या दोनूय हातांनी बाळकृष्ण घेवन पाळण्याच्या हांतरूणाक तेंकोवन परत पाळण्यापोंदच्यान पयले बायलेच्या हातांत दिता. अशे तरेन पाळण्याक पांच भोंवाडे मारून पाळण्याचे एके कुशींत ताका दवरतात. हाचे फाटलो हेतू म्हळयार जल्मल्लें भुरगें ह्या फातरावरी घटमूट आनी खणखणीत जावंचें, तशेंच भुरग्याक कसलीय किरी आसल्यार ती त्या फातरार वचची. उपरांत त्योच बायलो भुरग्याक हातांत घेवन जे तरेन फातर पाळण्यांत घाल्लो, तेच तरेन भुरग्याच्या पाळण्याभोंवतणीं पांच भोंवाडे मारून ताका पाळण्यांत न्हिदयतात. उपरांत बाळंतीण भुरग्याच्या तोंडांत साकर घालून ताचें नांव ताच्या कानांत सांगता आनी पाळण्याक कमर लावन तें पांच फावटी हालयता. उपरांत सगळया लोकांक नांव सांगून साकर वांट्टात. बाळंतिणीची आवय तिची व्हॉट भरता. उपरांत सगळया आमंत्रीत लोकांक आटवल आनी हेर गोड खाण दितात.

- वा. ल. वझे

- कमलादेवी राव देशपांडे

**बारह-इ-वफात :** मुसलमानांच्या, 'रबी उल् अव्वल' ह्या म्हयन्यांतलो बारावो दीस. मुहंमद पैगंबराच्या मरणाची याद म्हणून भारतांतल्या मुसलमान लोकांनी हो दीस पाळपाची चाल सुरू केल्या. हेर देशांतले मुसलमान लोक हो दीस पाळटातूच अशें ना. ह्या दिसा कुराणाचो पयलो अध्याय आनी मुहंमदाचीं वचनां म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**बारहपंथ :** नाथपंथांतलो एक उपपंथ. नाथपंथी लोक बारा विंगड विंगड फांट्यांनी वांटिल्ले आसात. तांचीं नांवां अशीं- सनंनाथ, रामनाथ, धरमनाथ, लक्ष्मणनाथ, दरियानाथ, गंगानाथ, बैराग, रावल वा नागनाथ, जालंधरिया, आई, कपिलानी आनी धजनाथ.

ह्या लोकांक बारहपंथी योगी अशें म्हण्टात. ह्या दरेका पंथाचें स्वतंत्र अशें पुण्यक्षेत्र आसता. हेविशीं एक कथा आसा, ती अशी- शिवान नाथयोग्यांचे बारा पंथ निर्माण केले आनी गोरखनाथानूय आपले बारा पंथ निर्माण केले. उपरांत ह्या दोनूय पंथांमदीं झगडीं सुरू जालीं. ताका लागून गोरखनाथान शिवाचे स संप्रदाय आनी आपले स संप्रदाय उणे केले आनी उरिल्ल्या बारा पंथांचें संघटन करून ताका बारहपंथ अशें नांव दिलें.

- कों. वि. सं. मं.

**बारहमासा :** लोकसाहित्यांतलो गिताचो एक प्रकार. ह्या बारहमासा काव्यांत, विरहाची भावना उक्तायल्ली आसता आनी ही भावना चड करून बायलेची आसता. उत्तर भारतांतल्या चड करून सगळया भाशांनी बारहमासा काव्याची परंपरा आसा. ही काव्याची परंपंरा खूब पोरनी. सुरदासा सारक्या कवीन संयोग-वियोगाचें वर्णन करतना बारहमासा काव्य-पद्दतीचो उपेग केला. जायसी हाणेंय आपल्या पद्मावतांत नागमतीचें विरह वर्णन करतना बारहमासाचें माध्यम आपणायलां. कांय बारहमासा गितांनी म्हयन्याच्या नांवावांगडा धर्मीक तशेंच भक्तिविशींच्यो कथाय आसात. द्रौपदीकी बारहमासी ह्या नांवाचें एक मालवी लोकगीत प्रसिद्द आसा. नरपतिनाल्ह हाणें बीसलदेवरासो नांवाचें एक हिंदी काव्य बरयलां. त्या ग्रंथांत लोकगितांचे शैलीक अणसरून लोकजीण उक्तावपी बारहमासी अपभ्रंश भाशेंत बरयल्या. विनयचंद्रसूरीच्या नेमिनाथ चडपई ह्या ग्रंथांतूय बारहमासी मेळटा. कांय प्रदेशांनी बारहमासीची सुरवात आषाढ म्हयन्यासावन जाता जाल्यार कांय प्रदेशांनी चैत्र, कार्तिक ह्या म्हयन्यांसावन जाता. आषाढाची परंपरा चड प्रचलीत आसा. आषाढ म्हयन्याक पावसाळयाचो सुरवातीचो म्हयनो मानतात. ह्या म्हयन्यासावन सुरू करून बारा म्हयन्यांचें चक्र ह्या गीत प्रकारांत येता. दरेका म्हयन्यांत वेगवेगळे सण, उत्सव येत आसतात आनी लोक ते उमेदीन मनयतात.

विरह जाल्ले बायलेक उमेदीचे सगळे देखाव दिश्टी पडटात. पूण आपलो मोगी म्हयन्यांत नाशिल्ल्यान उदास मनान ती थंय वावरत आसता.

बारहमासा गिताचे दोन प्रकार आसतात. १) बाराय म्हयने विरह-दुख्खूच आसता अशीं पदां आनी २) बाराव्या म्हयन्याच्या शेवटाक विरह जाल्ले बायलेचो मोगी परतून येतकच तिका जाल्ली उमेद अशीं पदां.

- कों. वि.सं. मं.

**बारा आदित्य :** आदित्याचीं बारा नांवां विंगड विंगड ग्रंथांनी वेगवेगळीं आसात तीं अशीं-

१. मित्र, रवि, सूर्य, भानू, खग, पूषा, हिरण्यगर्भ, मरीची, आदित्य, सविता, अर्क आनी भास्कर.

२. विवस्वान, अर्यमा, पूषा, त्वष्टा, सविता, भग, धाता, विधाता, वरुण, मित्र, शक्त आनी उरुक्रम.

३. धाता, मित्र, अर्यमा, रूद्र, वरुण, सूर्य, भग, पूषा, सविता, विवस्वान, त्वष्टा, विष्णु.

४. भग, अंश, अर्यमा, मित्र, वरूण, सविता, धाता, विवस्वान, त्वष्टा, पूषा, इंद्र आनी विष्णू.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** आदित्य.

**बारा चक्रवर्ती :** एक जैन संकेत. तीर्थंकरांच्या उपरांत जाल्ल्या त्रेसश्ठ म्हापुरसांभितर बारा चक्रवर्तींची गणना जाता. तांचीं नांवां अशीं - भरत, सगर, मघवा, सनत्कुमार, शांती, कुंथू, अर, सुभौम, पद्म, हरिषेण, जयसेन आनी ब्रह्मदत्त.

- कों. वि. सं. मं.

**बारावो :** मनीस मरता त्या दिसाच्यान जो बारावो दीस येता त्या दिसाक हिंदू लोक 'बारावो' अशें म्हण्टात. ह्या बारा दिसांतले पयले धा दीस कुटुंबातल्या सगळ्या मनशांक वा कुटुंबांतले-नात्यांतले लोक पयस रावपी आसल्यार तांकां आनी दायज्यांक भश्ट पाळचें पडटा.हाकाच 'सुतक' म्हण्टात. एका नात्याच्या कुटुंबाक आनी एका आडनांवाच्या एका गोत्राच्या म्हळ्यार एका घराण्यातल्या एका दायजाच्या मनशांक हें सुतक धा दीस मेरेन पाळचें पडटा. लग्न जाल्ल्या धुवांक वा भयणींक हें सुतक तीन दीस लागता. सुतक पाळपी मनशाक धा दीस देवाची पुजा करूंक, वा देवळांत वचूंक वा कसलेंच देवकृत्य करूंक मेळना. मरणा वेळार जे नात्यांतले लोक येतात ते मडें उबारले बरोबर आपआपल्या घरा वचून न्हातात. त्या दिसा ते त्या घरांत रावल्यार तांकां बारा दीस मेरेन तांगेर रावचें पडटा. बारावो जायसर घरच्या लोकांनी शिवराक जेवण जेवचें, फोडणीचें जेवण घरांत रांदप ना अशी रीत आसा. मसंड क्रिया सगळयांत व्हडल्या वा सगळयांत धाकट्या पुतान करपाची रीत आसा. त्या मनशाक पूत नासल्यार भाव, पुतणयो, बापोलयो वा दायज्यां मदल्या कोणेंय त्यो करूंक येतात.

जो मनीस ह्यो क्रिया करता ताणें धा दीस मेरेन सारयेम्हऱ्यांत वचून पींडदान करपाचें आसता. पयल्या दिसा जो पींड दितात तो मड्याक लासले उपरांत ताका थंड करूंक दितात. फुडें धा दिसांचे क्रियेक होच संकल्प म्हणिल्लो आसा. णव दिसांच्या पिंडांनी मड्याच्या शरिराचो एक एक अवयव तयार जावंचो. णवव्या दिसाच्या पिंडांन ताचें शरीर पूर्ण तयार जांवचें, धाव्या दिसाच्या पिंडान ताची तान-भूक न्हिंवची, अशी ह्या धा पिंडांची कल्पना आसा. दश पिंडांनी आत्म्याक नवें शरीर मेळटा आनी त्या शरिरान तो स्वर्गसूख भोगपाक पात्र थरता असो ताचो अर्थ लायतात. ही कल्पना गरूडपुराणांतल्यान घेतल्या. सुत्रग्रंथांत ह्या कर्माचो उल्लेख ना आनी ह्या कर्माच्या वेळार वेदमंत्रांचो उपेग करिनात. हाचे वयल्यान ही कल्पना वैदिक नासून पुराणीक आसा अशें म्हणप जाता. तिसऱ्या दिसा सारी भरून शास्त्राक तातूंतल्यो थोड्यो अस्थी प्रतीक म्हणून खंयच्याय तिर्थार व्हरपाखातीर एका करंडांत घालून, त्यो तांबड्या वस्त्रांत गुठलावन घराचे पांवळेभायर बांदून दवरतात आनी उपरांत तिर्थार व्हरून सोडटात. उरिल्ली सारी दर्या-न्हंयेच्या उदकांत विलीन करतात. सद्याच्या काळांत तिसऱ्या, पांचव्या आनी णवव्या दिसा मसंडेंत वचून अस्थी संचयन करतात. धाव्या दिसा मसंडेंत वा घराच्या भायर दश पींड दिवपाची चाल आसा. ह्या दिसा पितरांच्या नांवान कावळयाक (पितरांचें प्रतीक मानून) पींड दवरतात. कावळयान तो पींड व्हरतकच पितराक पावन जालें अशें समजतात. कावळयान तो पींड व्हेलोना जाल्यार तो प्राणी घुटमळटा अशें समजून सांगणी करतात. इकराव्या दिसा होम घालून घर शुध्द करतात आनी पंचगव्य हाडून घरभर शिंवरतात.

बाराव्या दिसा सपिंडी श्राध्द करतात. मेल्ल्या मनशाचें प्रेतत्व वचून ताचो पितरांमदीं आस्पाव जावंचो आनी ताका पितृलोक प्राप्त जावंचो म्हणून हें श्राध्द करतात. ह्या दिसा बापूय, आजो आनी पणजो अशा तीन पिळग्यांक पिंडदान करून एकठांय करतात आनी शेणज्याची चवथी पिळगी मुक्त करतात. हें श्राध्द समंत्रक आसता. हातूंत मड्याच्या पिंडाचे दर्भान तीन वांटे करतात आनी मड्याचो बापूय, आजो आनी पणजो हांच्या पिंडामदीं ताचो आस्पाव करतात. खरें म्हळयार सपिंडी श्राध्द एका वर्साउपरांत करपाचें आशिल्लें. पूण एकेच फावटीं सगळें करून उडोवपाच्या उद्देशान बाराव्याच दिसा सपिंडी श्राध्द करपाची चाल पडली. दर म्हयन्याक एक अशीं बारा आनी तीम्हयन्याळीं चार अशीं वट्ट

सोळा मासकां वर्सभरांत करपाचीं आसतात. हीं श्राध्दां करीसर घरांत मंगलकार्य करूंक मेळना असो नेम आसा. ताका लागून हीं मासकां ११व्याच दिसा करून बादा काडटात.

सपिंडी देवस्पण हें अशुभ कार्य आशिल्ल्यान तें घरा भायर, घराचे पांवळेभायर वा गोरवांच्या गोठ्यांत करतात. बाराव्या दिसा गोड-गोडशांचें जेवण करून पितरांच्या नांवान कावळयाक काकोळ दितात. कावळयान तें अन्न उश्टायतकच केल्लें कार्य मेल्ल्या मनशाक पावलें अशें समजून घरचे लोक जेवतात. बाराव्या दिसा वडे आनी सोजी करून तें जेवण म्हळयार निवेद्य अशें मानतात आनी प्रसाद म्हणून तें जेवण जेवतात. बाराव्या दिसा मेल्ल्या मनशाच्या सोयऱ्या धायऱ्यागेर साकून बाराव्याचें खाण धाडपाची रीत गोंयकारांमदीं आसा. तातूंत गंवापिठाचे मोटे पांच लाडू, साखरेचीं मोटीं पांच कापां, मूग, चणे आदी कड्डणां, पांच तरांचीं फळां, नाल्ल, आडसरां आदी धाडटात. मेल्लो मनीस दादलो आसल्यार धोतर वा पुडव्याचो जोड आनी ती बायल आसल्यार कापड वा साडी दितात. हें सगळें सामान उपरांत मेल्ल्या मनशाच्या नांवांन ज्या ब्राह्मणांक वा सवाय शिणीक रावयतात तांकां दितात.

सपिंडी देवस्पणा दिसा घरच्या मनशान जायत्या तरांचीं धान्यां, दिवली, भांगराची सरी, तांबयो, आयदन, पुडवीं, शेंदऱ्यो, चादर, उशें, सत्री, जोतीं, आदी तरातरांचें सामान मेल्ल्या मनशाच्या नांवान भटाक दान करपाचें आसता. मेल्लो मनीस बायल आसल्यार पुडव्या जाग्यार कापड दितात. ती सवायशीण बायल आसल्यार कापड-खण आनी सौभाग्याचे जिन्नस दिवंचे पडटात. ते दिवपा फाटलो हेतू म्हळयार मेल्लो मनीस जिवो आसतना जें जें वापरतालो तितल्याय तरांच्यो वस्तू हाडून त्या मनशाच्या नांवांन दान केल्यार ताच्या आत्म्याक शांती मेळून ताका मुक्ती मेळटा अशी भावना आसा.

- कमलादेवी राव देशपांडे

- कों. वि. सं. मं.

**बाराक्षार चिकित्सा :** विशिश्ट पद्‌तीन तयार केल्ले बारा ऊतक क्षार जे चिकित्सा पद्‌दतींत रोग बरो करपाखातीर वापरतात ते पद्‌दतीक बाराक्षार चिकित्सा म्हण्टात. मनशाचें रगत शुध्द आनी रसायनीक नदरेन सारकें आसल्यार आनी मनशाच्या जिविताक फावो ते सगळे घटक तातूंतल्यान जर मेळटात आसत जाल्यार मनशाक कसल्याच रोगाची सहसा बादा जायना. हेंच तत्त्व मानसीक रोगांकूय लागता. मेंदवाचें बरें पोशण जाल्यार मानसीक तोलाचेर ताबो उरता आनी मानसीक रोग सहसा उद्‌भवनात. पूण आर्विल्ल्या मनशाच्या आहारांतल्या दोशांक लागून तातूंत जीवनावश्यक अशा खनीज क्षारांचो सतत उणाव आसता.

जर्मनींतल्या ओल्डेनबर्गाचो वैज डब्ल्यू. फोन शुस्लर (१८२१-९८) हाणें असो सिध्दांत मांडलो, सगळे मानवी रोग हे एक वा चड खनीज क्षारांच्या उणावांक लागून जातात. शरीर कोशिकांतल्या खनीज क्षारांचो जाल्लो बदल परत सारको करपा खातीर हें क्षार विशिश्ट पद्‌तीन तायर करून तोंडान अमके मात्रेन दिल्यार उत्प्रेरकावरी कार्य करतात आनी मूळ आहारांतल्या सैमीक क्षाराच्या सात्मीकरणाक आदार करतात, जाका लागून रोग बरो जाता. हे विचारप्रणालीक 'शुस्लर सिध्दांत' म्हण्टात आनी ताचेर आदारिल्ले चिकित्सा पद्‌तीक 'शुस्लर चिकित्सा पद्‌त' वा जीवरसायनीक चिकित्सा अशींय नांवां आसात. हें क्षार ऊतक कोशिकांकेडन संबंदीत आशिल्ल्यान हे पद्‌तीक बारा उतकीय उपचार अशेंय म्हण्टात.

होमिओपथी हे उपचार पद्‌दतीचो आर्विल्लो प्रणेतो झामुएल हानेमान हाणें कोशिकांतर्गत क्षाराच्या उपराचारांतलो उपेग सुरवेक दाखोवन दिलो. १८४६ त वखदीविज्ञ कॉन्स्टान्टीन हेरिंग हाणें अशे विचार मांडले, मनशाच्या शरिरांतले सगळे घटक ज्या इंद्रियांत कार्य करतात ताचेर मुखेलपणान परिणाम करतात. ते जंय लक्षणां उत्पन्न करतात थंयच कार्यपूर्तीय करतात. सगळे विचार प्रणालींतल्यान कांय प्रयोग करून शुस्लर हाणें १८७३ त आपले नवे पद्‌दतीविशीं एका होमिओपथीच्या नेमाळयांत एक लेख उजवाडा हाडलो. फुडें ह्याच नेमाळयांतल्यान ताणें चड स्पश्टीकरण दिवन एक लेखमालाच उजवाडा हाडली.

शरिरांतले अवयव आनी ऊतकां हांचें रचनात्मक अखंडत्त्व आनी क्रियाशीलता हें अकार्बनी घटाकांचेर चड करून खनीज क्षारांचेर आदारून आसतात. ह्या जिव्या ऊतकांतल्या कोशिकांत आशिल्ले हे घटक उणे जावन कोशिकांतल्या ह्या क्षाराची रेणवीय हालचाल इबाडटा आनी रोग जाता. हाका लागून खनीज क्षार अमके मात्रेन तोंडांतल्यान दिल्यार हें इबाडिल्लें संतूलन प्रकृतीक स्वरूपांत येता. ही क्रिया ऊतकांमदल्या रसायनीक आप्तभावाक लागून जाता. ताका लागून शुस्लर हाणें हे पद्‌तीक 'जैवरसायनीक पद्‌दत' अशें म्हळां.

जेमेरेन खावप, जेवप आनी उदक पियेवप हांचे वरवीं रगतांतले पोशणज पदार्थ (ऊतक पुरवणेक लागून उणे जाल्ले) फावो त्या प्रमाणांत आदलेवरी करप जातात, तेमेरेन शरीर निरोगी उरता. ही क्रिया चालू आसल्यारूच पोरने कोशिकेचो नाश आनी कोशिकांचें उत्पदान चालू आसता. तेभायर त्याज्य पदार्थाचें उत्सर्जनूय जाता. हाचेभायर दर कोशिकेंत कांय पदार्थ अवशोशण करपाची आनी कांय पदार्थ भायर उडोवपाची क्षमता आसता. कोशिकेच्या ह्या गूणधर्मांतल्या इबाडाक लागून रोग उत्पन्न जाता. अकार्बनी क्षाराची उणीवूय कोशिकेंतल्या इबाडाक लागुनूच वा अप्रत्यक्षतेरेन आहारांतल्या उणावांक लागून जावंक शकता. जर मुळांत कोशिकाच इबाडली जाल्यार क्षाराची मात्रा दितना वखद चड घोंटिल्लें म्हणजे चड विरल केल्लें आसचें पडटा. प्रत्यक्ष पुरवणी

करूनच क्षाराचो हो उणाव भरून काडपाचो हेत हे उपचार पद्दतींत आसता.

बाराक्षार वखद परिणामकारक जावपाखातीर तें पुराय आनी कांय काळमेरेन सतत घोंटप गरजेचें आसता. ह्या कारणांक लागून ज्या उत्पादकाकडेन ही क्रिया खात्रीन करतात तांचींच वखदां वापरप परिणामकारक आसता.

विजेचे चलीत खलन यंत्रांत क्षाराचो एक वांटो आनी दुग्धशर्कराचे (लॅक्टोज) णव वांटे हांची भरसण घालून दोन ते तीन वरांमेरेन बरे तरेन घोंटात. हे भरसणेक १X अशें दर्शयतात. उपरांत हे भरसणेचो एक वांटो आनी णव वांटे दुग्धशर्करा हांची भरसण घेवन परत दोन-तीन वरां मेरेन घोंटतकच तयार जाल्ले भरसणेची परिणामकारताय २X अशी जाता. अशे तरेन सगळयो क्रिया परत परत करतकच परिणामकारताय ६X ते १२X वा ताचे परसूय चड वाडोंव येता. सादारणपणान ६X परिणामकारकतायेचीं वखदां वापरतात. शुस्लर स्वता फेरम फॉस, सिलिका आनी कॅल. फ्युओर हीं वखदां १२X परिणामकारकतायेचीं आनी हेर ६X परिणामकारकतायेचीं वापरतालो. घरगुती वापराखातीर ३X ते १२X परिणामकारतायेचीं वखदां बरीं. सादारण चिकित्सक खर रोगांत दर वराक आनी गंभीर आनी वेदनामय रोगांनी दर धा ते १५ मिनटांक २ ते ४ ग्रेन (१ ग्रेन = ०.०६४ ग्राम) मात्रा दितात. ह्या वखदाच्यो २ ग्रेन वजनाच्योय गुळयो आसतात. हे पद्दतींतलीं वखदां पुराय तरेन निर्धोक आसतात. भुरगीं हीं वखदां सहज घेतात. कांय लोक घरगुती उपचार म्हणूनूय हीं वखदां वापरतात.

बाराक्षार चिकित्सा पद्दतींतल्या संयुगांचीं पुराय नांवां आनी संक्षिप्त नांवां अशीं:

| संयुगां | मूळपदार्थ | पुराय नांव | संक्षिप्त नांव |
|---|---|---|---|
| फॉस्फेटां | लायम | कॅल्शियम फॉस्फोरिका | कॅल फॉस |
| | आयर्न | फॅर्रम फॉस्फोरिकम | फॅर्रम फॉस |
| | पोटॅश | काली फॉस्फोरिकम | काली फॉस |
| | सोडा | नेट्रम फॉस्फोरिकम | नेट्रम फॉस |
| | मॅग्नेशिया | मॅग्नेशियम फॉस्फोरिका | मॅग फॉस |
| क्लोरायडां | पोटॅश | काली म्युरिॲटिकम | काली मूर |
| | सोडा | नेट्रम म्युरिॲटिकम | नेट्रम मूर |
| सल्फेटां | लायम | कॅल्शियम सल्फ्युरिका | कॅल सल्फ |
| | सोडा | नेट्रम सल्फ्युरिकम | नॅट्रम सल्फ |
| | पोटॅश | काली सल्फ्युरिकम | काली सल्फ |
| फ्ल्युओरायड | लायम | कॅल्शियम फ्ल्युओरिका | कॅल फ्ल्युओर |
| सिलिका (शुध्द) | | सिलिका | सिलिका |

- कों. वि. सं. मं.

**बारी :** एक जात. ह्या लोकांची वसती चड करून महाराष्ट्र, उत्तर प्रदेश आनी बिहार ह्या राज्यांनी आसा. हे जातीच्या लोकांक 'पानवाले' अशेंय म्हण्टात. उत्तर प्रदेशांतले बारी लोक वावराडे म्हणून रावतात, मशाली धरतात वा दोणे-पत्रावळी करतात. ठाणें जिल्ह्यांतले बारी लोक शेतकाम करतात. हे लोक गुजरातांतल्यान आयले अशें म्हण्टात. हाचेवयल्यान बारींचें मूळ स्थान उत्तर भारतांत आसून थंयसावन ते बिहार, गुजरात ह्या मार्गान महाराष्ट्रांत आयले आसुंये अशें एक मत आसा.

पानांचे मळे लावप, विड्यांचीं पानां विकप हो बारी लोकांचे परंपरेंतलो वेवसाय. पूण तांचेमदले कांय लोक, मेस्तकाम वा मजुरी हेय उद्देग करतात.

बारी लोक हे शैव. तुळजापूरची भवानी आनी खंडोबा हीं तांचीं कुलदैवतां. ते पानमळ्याची पुजा करतात. बहिराम ह्या पानमळयाच्या देवाचे यात्रेक ते खानदेशांत वतात. खूब भुरगीं आशिल्ली बायल मरत जाल्यार तिची पाशाणाची मूर्ती करून गांवाभायल्या वडाच्या झाडापोंदा तिची स्थापणूक करतात आनी वडापुनवेक तिची पुजा करतात.

बारी लोकांमदीं खूबशीं कुळां आसात. एकाच कुळांत लग्नां जायनात. तशेंच तांचे देशी, नेमाडी आनी वसवडे अशे तीन विभाग आसात. तांचेच भितर लग्नां जातात.

ल्हान पिरायेचेर भुरग्यांचीं लग्नां करतात. चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. ब्राह्मण लग्नाचो म्हूर्त काडटा आनी लग्नाचें पुरयतपण करता. लग्ना वेळार न्हवऱ्याचो बापूय आपल्या कांय सोयऱ्यांक घेवन व्हंकलेगेर वता. थंय न्हवऱ्या- व्हंकलेचे मामा एकामेकांच्या पागोट्यांचेर वस्त्र उडोवन एकामेकांक पांच सुपाऱ्यो दितात. हो सुवाळो सोंपतकच लग्न थरता. उपरांत हळद, तेल, रूखवत हे सगळे सुवाळे जातात. म्हुर्ता पयलीं व्हंकलेचो बापूय न्हवऱ्यागेर एक घोडो धाडटा. ताचेर बसून न्हवरो व्हंकलेगेर येता. व्हंकल देवाचे कुडींत अस्तंतेकडेन तोंड करून एका पांटल्यांत बशिल्ली आसता. न्हवरोय तिचे सामकार एका पांटल्यांत बसता. पांटल्यांत सोयरिकेच्यो सुपाऱ्यो आनी लग्नाच्यो पत्रिका दवरिल्ल्यो आसतात. उपरांत दोगांयमदीं अंतरपाट धरून, मंगलाश्टकां म्हण्टात. अंतरपाट काडटकच दोगांयच्या पांटल्यांतल्यो सुपाऱ्यो आनी पत्रिकांची अदला-बदल करतात. रातची जेवणावळ जाता. 'झालझेंडा' हो सुवाळो जातकच लग्न सुवाळो सोंपता.

पुण्याच्या बारी लोकांची लग्नाची पद्दत मात हांचेपरस वेगळी आसता. तांची कूलदेवता हीच तांचें देवक आसता. लग्नाच्या आदल्या दिसा ते घरांतले सगळे देव शेटीकडेन उजळपाखातीर दितात आनी थंयसावन वाजयत-गाजयत घरा हाडून तांची पुजा करतात. उपरांत जेवणावळ जाता. न्हवऱ्याक आनी व्हंकलेक आपापल्या घरा हळद लायतात.

न्हवरो घोड्याचेर बसून व्हंकलेगेर वता. लग्नाच्या वेळार दोंगाकूय पाटाचेर वा पांटल्यांत एकामेका सामकार बसयतात. अंतरपाट धरून मंगलाश्टकां जातकच ब्राह्मण तांचेर अक्षता उडयता. उपरांत लग्नाचो होम जाता. दुसऱ्या दिसा व्हंकलपावणी न्हवऱ्यागेर वता.

खंयच्याय म्हयन्याच्या कृष्ण पक्षांत खंयच्याय दिसा विधवाविवाह जाता. न्हवरो-व्हंकल एकमेका म्हऱ्यांत बसून तांदळाचे राशीचेर मांडिल्ल्यो सुपाऱ्यो आनी खारकांची पुजा करतात. ब्राह्मण मंत्र म्हण्टा आनी लग्न सुवाळो सोंपता.

हे लोक लग्न जाल्ल्या मेल्ल्या मनशाक लासतात आनी लग्न जावंक नाशिल्ल्याक पुरतात. मडें लासतकच सगळे लोक न्हातात आनी कोडूलिंबाचीं पानां घेवन मेल्ल्या मनशाच्या घरा वतात. मेल्ल्या मनशाची कूड दवरिल्ली आसता ते सुवातेर एक दिवो पेटयल्लो आसता. थंय सगळे लोक कोडूलिंबाचीं पानां पातळटात. दुसऱ्या दिसा मसंडेंत वचून दहन केल्ले सुवातेर गायचें मूत आनी उदक शिंपडावन थंय भाकरी, गोड आनी तूप दवरतात. तिसऱ्या दिसा मेल्ल्या मंनशाचो उत्तराधिकारी अस्थी एकठांय करून न्हंयेंत सोडटा आनी तांचे वांगडा मृतात्म्याक ल्हायो ओंपता. उपरांत तो अस्थी एकठांय करून एका मडक्यांत भरता आनी खंय तरी लिपोवन दवरता. सुतक सोंपतकच तो त्यो अस्थी पुरता वा उदकांत सोडटा. तांचेमदीं श्राध्द आनी म्हाळ करपाची चाल आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बारीक जोर :** (पळेयात टी. बी.).

**बार्रेतु, थोमस आकीन द :** (जल्म : वेळसांव).

एक गोंयकार धर्मप्रचारक. १९३० वर्सा तो गोंयचे आर्किडायोसिझीचो गव्हर्नर आशिल्लो. १९४० ते ४२ ह्या काळांत तो विकार कॅपिट्युलार आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**बार्रेतु, पेद्रु रेमिजियु दश मेर्सेस :** (जल्म : वेळसांव; मरण : १९२१).

एक गोंयकार धर्मप्रचारक. राशोल सेमिनारीचो तो धर्माधिकारी आनी प्रोफेसर आशिल्लो. १९०८ ह्या वर्सा तो गोंयचे 'सेद वाकान्त' Sede Vacante आर्किडायोसिझीचो गव्हर्नर जालो. लिस्बनाचे 'जिओग्राफीकल सोसायटीचो' तो सचीव आनी एक व्हड धर्मशास्त्री आशिल्लो. १९२०-२१ ह्या वर्सा पात्रियार्क मेथ्यूस ओलीवैरा शावियेर हाचे गैरहजेरींत युरोपाचे आर्किडायासिझीचो ताणें सांबाळ केल्लो. तो एक व्हड बरोवपी आशिल्लो. ताणें जायतीं पुस्तकां बरयल्यांत तेचपरीन दिसाळ्याखातिरूय तो बरप करतालो.

- कों. वि. सं. मं.

**बालकवी :** (जल्म १३ ऑगस्ट १८९०, धरणगांव, जळगांव; मरण : ५ मे १९१८, जळगांव).

एक व्हड आधुनीक मराठी कवी. ताचें पुराय नांव त्र्यंबक बापुजी ठोमरे. ताच्या बापायक पोलीस खात्यांतली भोंवडेची नोकरी आशिल्ल्यान



ताका शिक्षण सारकें घेवंक मेळ्ळें ना. एरंडाल, यावल, जामनेर, बेटावद अशें वेगवेगळेकडेन ताचें मुळावें शिक्षण पुराय जालें. श्रीसमर्थक शंकरराव देव हाच्या धुळेच्या प्रिपरेटरी स्कूल आनी अहमदनगरच्या अमेरिकन मिशन हायस्कुलांत ताणें इंग्लीश शिक्षण घेतलें. तरी ताचो चडसो अभ्यास घराच जालो. ताची व्हडली भयण जिजी हिणें ताका संस्कृताचे मुळावे धडे दिले. तिणेंच ताका कवितेविशीं गोडी लायली. फुडें ताणें संस्कृत भाशेचेर प्रभुत्व मेळयलें. ताणें पंडिती कविता आनी शाहिरी कविता हांचो अभ्यास केलो. अहमदनगरच्या मिशन स्कुलांत तशेंच महाबळेश्वरच्या क्रिस्तांव मिशनऱ्यांचे शाळेंत तो शिकयतालो. पिरायेच्या तेराव्या वर्सा नावापुर हांगा आसतना ताणें आपली पयली कविता बरयली. ताणें हे कवितेक नांव दिवंक नाशिल्लें. कवितेचे लयेविशीं जाणविकाय, सैमाविशीं प्रेम आनी श्रध्दा हीं ताचे कवितेचीं म्हत्वाचीं आंगां, ताचे हे पयले कवितेंत कांय प्रमाणांत दिसून येतात. फुडें तीन-चार वर्सांमदीं ताची कविता सुदारत गेली. जळगांवांत भरिल्ल्या मराठी कवी संमेलनांत (१९०७) ताणें केल्ल्या काव्यवाचनान प्रभावीत जावन संमेलनाध्यक्ष कान्होबा रणछोडदास कीर्तिकर हाणें ताका 'बालकवी' हें नांव दिवन ताचो भोवमान केलो. उपरांत रोखडोच मराठींतलो व्हड कवी म्हणून ताची नामना जाली आनी ताचें बालकवी हें नांवूय रूढ जालें.

बालकवीक चड नामना मेळ्ळी ती सैमकवी म्हणून. पूण ताच्या चडशा कवितांनी सैम दिसता तरी रूढ अर्थान सैमाचें वर्णन करप असो

ताचो हेत दिसना. सैमाच्या वेगवेगळया घडणुकांनी ताका मनशाच्यो भावना दिसतात. ताचे कवितेंत खूबदां लौकिक सौंदर्याक अलौकिकाचो स्पर्श जाल्लो दिसता. ताच्या साद्या वर्णनान लेगीत प्रतिकाची खोलाय लाभिल्ली आसता. 'औदुंबर' ही ल्हानशी कविता हाकाच लागून नामनेक पावली.

विशयाकडेन तादात्म्य पावपी संवेदनशक्ती बालकवीक साद्य जाल्ली. ताचे कवितेंत नादमाधुर्य, सैमांतल्या कोमल तपशिलांचें नाजूक वर्णन दिश्टी पडटा. तो निरागस बालवृत्तीचो कवी आशिल्लो. ताच्या जिवितांतल्या निमाणच्या कवितांतलो सूर सामको वेगळो आसा. भुरगेपणाचे भावनेन बांदिल्ल्या सपनाची सृश्ट कोसळटा हें दुख्ख ताचे 'कविबाळे' हे कवितेंत दिसता. सृश्टीचीं खिन्न रुपां ताच्या कवितांनी प्रगट जाल्यांत.

बालकवीन कांय भुरग्यांगितांय बरयल्यांत. तातूंतलीं सुकण्यांविशींचीं कांय गितां लोकप्रिय जाल्यांत. ताच्या सगळयाच कवितांनी नादमयता आनी असामान्य चित्रगूण दिश्टी पडटात.

जळगांवा लागसल्ल्या भादली स्टेशनालागसल्ले रेल्वेचे रूळ हुंपता आसतना उज्यागाडयेपोंदा पडून ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**बालगंधर्व :** (जल्म : २६ जून १८८८, पुणें; मरणः जुलय १९६७, पुणें).



मराठी रंगमाचये वयलो एक नामनेचो गायक नट. ताचें पुराय नांव नारायण श्रीपाद राजहंस. ताच्या बापायचें नांव श्रीपाद कृष्णाजी राजहंस आनी आवयचें नांव अन्नपुर्णाबाई. १९०७ त बालगंधर्वाचें लग्न लक्ष्मीबाईकडेन जालें आनी ताका पांच भुरगीं जालीं. १९४०त लक्ष्मीबाई भायर पडटकच ताचें दुसरें लग्न नामनेची गायिका गोहराबाईकडेन जालें.

सोबित भावदर्शी चेहरो आनी गंधर्वभाशेन आवाजाची देणगी ताका जल्मापरसूनूच मेळिल्ली. १८९८ वर्सा लोकमान्य टिळकान ताचें पयलें फावटीं पद आयकलें आनी 'हो तर बालगंधर्व' अशे सहजस्फूर्त उद्गार काडले. मुखार नारायणाक 'बालगंधर्व' म्हणून वळखुपाक लागले.

१९०५ वर्सा गुरूदुवादशीक बालगंधर्वान किर्लोस्कर नाटक मंडळींत प्रवेश केलो. १९०६ वर्साचे सुरवातीक बालगंधर्वान अण्णासाहेब किर्लोस्कराच्या संगीत शाकुंतल नाटकांतली शकुंतलेची भुमिका केली.

बालगंधर्वाचें सोबीत आनी सात्विक दर्शन, ताच्या अभिनयांतली सहजताय, गायनांतली मधुरताय, हांकां लागून किर्लोस्कर नाटक मंडळीच्या रंगमंदिरांत गर्दी जावपाक लागली. १९११ वर्सा कृष्णाजी प्रभाकर खाडिलकर हाच्या 'मानापमान' नाटकांत बालगंधर्वान भामिनीची भुमिका केली. तेन्नापसून एक प्रतिभावंत नट म्हणून ताची नामना जाली. गोविंदराव टेंबें हाणें संगीत दिग्दर्शन केल्ल्या ह्या नाटकांतलीं पदां खूब गाजलीं.

किर्लोस्कर नाटक मंडळींतले मुखेल नट गणेश गोविंद बोडस (गणपतराव बोडस) आनी गोविंदराव टेंबे हांचे वांगडा बालगंधर्वान ५ जुलय १९१३ दिसा गंधर्व नाटक मंडळीची स्थापणूक केली.

१९३५ वर्सा बालगंधर्वान वेवसायांतर करून नामनेच्या प्रभात फिल्म कंपनीच्या व्ही. शांताराम दिग्दर्शीत 'धर्मात्मा' बोलपटांत संत एकनाथाची भुमिका केली. पूण चित्रपटसृश्टींत ताचें मन रमूंक नाशिल्ल्यान १९३६ वर्सा तो परत रंगमाचयेवटेन आयलो. १९३९ वर्सा मानापमान नाटकांत 'धैर्यधर' आनी मृच्छकटिक नाटकांत 'चारूदत्त' ह्यो दादले भूमिका ताणें केल्यो.

अण्णासाहेब किर्लोस्कर हाच्या शाकुंतल आनी सौभद्र ह्या नाटकांतल्यो शकुंतला आनी सुभद्रा; गोविंद बल्लाळ देवल हाच्या मृच्छकटिक, शारदा आनी संशयकल्लोळ ह्या नाटकांतली अनुक्रमान वसंतसेना, शारदा आनी रेवती; श्रीपाद कृष्ण कोल्हटकर हाच्या मूकनायक नाटकांतल्या सरोजिनी; कृष्णाजी प्रभाकर खाडिलकर हाच्या मानापमान, विद्याहरण आनी स्वयंवर ह्या नाटकांतल्यो अनुक्रमान भामिनी, देवयानी आनी रुक्मिणी आनी राम गणेश गडकरी हाच्या एकच प्याला नाटकांतली सिंधू ह्यो बालगंधर्वाच्यो नामनेच्यो स्त्री भूमिका.

मुखेलपणान बालगंधर्व हो संगीत नट आशिल्लो. ताणें शास्त्रीय संगितांतूय प्रगती केल्ली. बालगंधर्वाच्या नाटकांनी मराठी रंगमाचयेच्या इतिहासांत एक अभिमानास्पद अशें पर्व घडयलें. मराठी रंगमाचयेर बालगंधर्वान अभिनयाक अनुकूल अशी एक गायनपरंपरा निर्माण केली.

गोविंद बल्लाळ देवल आनी कृष्णाजी प्रभाकर खाडिलकर ह्या व्हड नाटककारां- कडल्यान तशेंच गोविंदराव टेंबे आनी गणपतराव बोडस ह्या व्हड नटांकडल्यान बालगंधर्वाक अभिनयाचें शिकप मेळ्ळें. बालगंधर्वाच्यो भुमिका एकेच तरेच्यो नासून वेगवेगळया प्रकृतींच्यो

आशिल्ल्यो. सौंदर्यदृश्टी हो बालगंधर्वाचो आनीक एक गुणविशेश आशिल्लो.

संगिताचो उपेग ताणें नाटकांतल्या रसाचो उत्कर्श सादपाखातीर केलो. रसाक विघातक आनी रसाचो अपकर्श जातलो, अशी एक लेगीत करणी ताच्या गळयांतल्यान भायर पडनासली. शास्त्राचे नेम राखून रसानुकूल कशें गावचें हाचें शिकप ताका सुप्रसिध्द गायक भास्करबुवा बखले हाचेकडल्यान मेळिल्लें. हिंदुस्थानी संगितांतल्या खानदानी चिजांचेर रचिल्लीं नाट्यगितां गावन बालगंधर्वान समाजांत उच्च संगिताची अभिरूची निर्माण केली. ख्याल, ठुमरी, गझल, दादरा आनी भक्तिगीतां तो सारकेच कुशळतायेन गायतालो. स्वयंवर नाटकांतल्या 'स्वकुल तारकसुता' ह्या पदांत कोमल निषादावयल्यान षडजाचेर वतना निषदाक झेलोवन षडजाचेर तो कायम जातालो.

बालगंधर्व हो १९२९ वर्साच्या मराठी नाट्य संमेलनाचो आनी १९४४ वर्साच्या मुंबयंत जाल्ल्या नाट्यशताब्दि महोत्सवाचो अध्यक्ष आशिल्लो. १९५५ वर्सा अभिनयाचें राश्ट्रपति पदक दिवन संगीत नाटक अकादेमीन आनी १९६४ वर्सा ताका 'पद्मभूषण' हें मानचिन्न दिवन भारत सरकारान ताचो गौरव केलो.

मानसिक आनी शारिरीक नदरेन जिविताच्या निमाण्या काळार ताका भोव त्रास जालो. तो दोनूय पांयांनी थोटो जालो. तरीय बालगंधर्व प्रसन्न मनान गायत रावतालो. पुण्यांतले महानगरपालिकेन बालगंधर्व नांवाचें रंगमंदिर बांदून ताचो गौरव केलो. तशेंच, पुणें महानगरपालिकेन बालगंधर्वाच्या गौरवार्थ 'नमन नटवरा' हें पुस्तक प्रसिद्द केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**बालगुन्यांवकारी :** थरावीक पिरायेच्या गटाकडसून जाल्ली गुन्यांवकारी. शरीरशास्त्र आनी ताका धरून आशिल्लें मानसशास्त्र ह्या दोनूय शास्त्रांच्या सिध्दांताप्रमाण मनशाचे मानसिक घडणेची प्रक्रिया ताच्या जल्मापसून सुरू जावन तिका परिपूर्णताय येवपाक थरावीक काळ लागता. हो काळ (पिराय) येवंचेपयलीं मनशाची बौध्दीक कुवत पुरायपणान विकसीत जावंक पावूंक नाशिल्ल्यान ताका ताच्या हातसून घडिल्ल्या कर्तुबाची जाणविकाय उरना आनी म्हणून ह्या पिरायगटांत घडिल्ल्या गुन्यांवाची मोलावणी क्षमाशील नदरेन जावंची असो संकेत थारला.

सर्वसादारण गुन्यांवकार आनी बालगुन्यांवकार हांचे मदले खटले चलयतना आनी ख्यास्त फर्मायतना दोगांमदल्या ह्या फरकाक कायद्याचो आदार दिवप जाला. बालगुन्यांवकाराचे पिरायेची उण्यांत उणी आनी चडांत चड मर्यादा सगळेचकडेन सारकी ना. ती ७ ते २१ हांचेमदीं आसा. तशेंच चलो भुरगो आनी चली भुरगें हांचेखातिरूय ही मर्यादा वेगळी आसा. भारतांत चल्यांखातीर सोळा आनी चलयांखातीर अठरा वर्सां पिरायेची मर्यादा आदीं (१९६०) आशिल्ली. ती उपरांत १९७६ त चल्यांखातीर १८ आनी चलयांखातीर २० केली.

बालगुन्यांवकारांमदीं चल्यांचें प्रमाण चड (सुमार ८०%) आसता. समाजांतल्या सुमार सगळया वर्गांनी बालगुन्यांवकाराचें प्रमाण आसलें तरी घरांतले संस्कार, समाजीक वेवस्था आनी भोंवतणचें वातावरण हे घटक भुरग्यांक गुन्यांव करपाक प्रवृत्त करतात. जाय ती गजाल सोंपेपणान मेळ्ळीना जाल्यार ती झोंपय मारून घेवपाची प्रवृत्ती, हें दुबळया समाजांतले बालगुन्यांवकारी फाटलें एक मुखेल कारण. भौतिक उदरगत सादिल्ल्या राश्ट्रांतल्या संपन्न समाजांतल्या भुरग्यांक फावो ते तरेचे संस्कार ना मेळिल्ल्यान मस्तेपणान गुन्यांव केल्ले दिसतात. भुरग्यांचे गुन्यांव घडपाची प्रेरणा कसलीय आसली तरी बौध्दिक उणेंपण हें तिचे फाटलें कारण. वाडट्या उद्देगीकरणावांगडा कसलेय किचकिटीचे आनी कटकटीचे परिस्थितीक लागून बालगुन्यांवकारी वाडत आसा. बालगुन्यांवकारी अनुवंशीक आसा काय ना हाचे संबंदान संशोधन चालू आसलें तरी ती अनुवंशीक नासून परिस्थितीजन्य आसा अशें भौतेकांचें मत आसा.

१९व्या शेंकड्यांत बालगुन्यांवकारी संबंदान प्रगत अशी विचारसरणी मुखार आयली. बालगुन्यांवकारांक हेर गुन्यांवकारांप्रमाण खर ख्यास्त फर्मायनासतना तांच्या फुडाराचो विचार आनी तांचें नेण्टेपण मतींत घेवन तांकां सुदारपाची संद दिवंची हो उद्देश मुखार आयलो. तेखातीर खाशेलीं न्यायालयां, पालकघरां (Remand Homes) आनी तत्सम संस्था निर्माण जाल्यो. तशेंच संबंदीत पोलीस, न्यायालयां, पालकघरां, अधिकाऱ्यांक अशे तरेचें प्रशिक्षण दिवपाची वेवस्था जाली. संवसारांतलें पयलें बालन्यायालय १८९९ त सुरू जालें उपरांत इंग्लंडांत १९०५ त आनी भारतांत १९५० त मुंबय, चेन्नई, अस्तंत बंगाल आनी दिल्लीक बालन्यायालयां सुरू जालीं. बालुगन्यांवकारी संबंदीं जे कायदे जाले त्या कायद्यांवरवीं ख्यास्तीच्या काळांत बालगुन्यांवकारांची जतनाय घेवप, तांकां संरक्षण दिवप, शिक्षण दिवप आनी तांचो फुडार घडोवपी परिवर्तन तांचेभितर घडोवन हाडप हीं उद्दिश्टां ह्या कायद्यांत आस्पाविल्लीं आसात.

दिसानदीस बालगुन्यांवकारीचें प्रमाण वाडत आसा ही समाजाचे भलायकेचे नदरेन चिंतेची गजाल जाल्या. सगळया समाजाचो कलच गुन्यावकारीकडेन आशिल्ल्यान बालगुन्यांवकारीचें प्रमाण वाडटें उरलां आसूं येता.

- कों. वि. सं. मं.

**बाल चित्रपट :** फकत भुरग्यांखातीर तयार केल्लो चित्रपट. भुरग्या प्रेक्षकांमदीं सादारणपणान ४ ते १६ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांची

जाणविकाय मतींत घेवन बालचित्रपट तयार करतात. ह्या चित्रपटाचें कथानकय अप्रुपताय, हास्यकारकताय आनी काल्पनिक जाळयान भरिल्लें आसता. चित्रपटा वरवीं पळोवपाच्या आनी आयकुपाच्या माध्यमाचो उपेग करून तांचे खर जिज्ञासुवृत्तीचें समाधान करप जाताच. तेचपरी मनोरंजना वांगडाच तांची विचारीक पात्रताय वाडोवपाक हातभार लागता. ७ फेब्रुवारी १९०० त लंडनांत फकत भुरग्यांखातीर चित्रपटाचो पयलो जाहीर कार्यक्रम जालो. फुडें १९२७ वर्सा सावन इंग्लंडांत शेनवारा भुरग्यांखातीर कार्यक्रम सुरू जाले.

खास भुरग्यां खातीर तयार केल्लो पयलो चत्रपट 'सिग्नल' रशियेंत १९१८ वर्सा तयार जालो हो चित्रपट रशियन लेखक एन. गार्शीन हाचे कथेचेर आदारिलो आशिल्लों. लॅनिन हाची बायल क्रूपस्कय हिणें ह्या क्षेत्रांत उल्लेख करपासारको वावर केलो. शाळेंत भुरग्यांक चित्रपट दाखोवप तशेंच बऱ्या चित्रपटांचो आस्पाव भुरग्यांच्या अभ्यासक्रमांत करप आदी कार्यांनी तिणें फुडाकार घेतिल्लो. १९४६ वर्सा बैरूतांत भरिल्ल्या युनॅस्कोच्या अधिवेशनांत पळोवप आनी आयकुवप अशा साहित्यांचें दिवप-घेवप करपाचे विचार मांडले. तेप्रमाण 'इंटरनॅशनल सेंटर ऑफ फिल्मस् फॉर चिल्ड्रन' (आय. सी. एफ. सी.) हे संस्थेची १९५५ त स्थापना जाली. करमणुकीन भरिल्ले बालचित्रपट निर्मप आनी ते वितरावप हो हे संस्थेचो मुखेल उद्देश आसलो. फुडें युनेस्कोचे सुचोवणेप्रमाण हे संस्थेंत वांटो घेवपी तरन्या उमेदवारांखातीर चित्रपट प्रशिक्षणाची वेवस्था केली. तांतूत दूरचित्रवाणीचो आस्पावूय केलो. तेन्नाच्यान हे संस्थेचें नांव 'इंटरनॅशनल सँटर ऑफ फिल्मस फॉर चिल्ड्रेन अँड यंग पिपल' (आय. सी. एफ. सी. वाय. पी.) अशें बदललें. हे संस्थेचें मुखेल कार्यालय पॅरिसाक आसा. भारत धरून हेर २५ देश हे संस्थेचे वांगडी आसात.

रशिया, भारत, जपान, ब्रिटन, आदी देशांनी दर वर्सा बालचित्रपट तयार करतात. बालचित्रपटांची निर्मिती आनी वितरावप हातूंत रशियेचो पयलो नंबर लागता. थंय दर वर्सा सुमार ३० पूर्ण लांबायेचे बालचित्रपट तयार करतात. थंयच्या चित्रपट प्रेक्षकांमदीं १/३ प्रेक्षक भुरगे पिरायेचे आसतात. थंय अनुबोधपट, लघुपट, व्यंगपट आदींची निर्मिती जाता. हे चित्रपट दाखोवपाक रशियेंत ३०० चलचित्र घरां आसात. १९२६ वर्सा 'सोयुझ द्ये फिल्म' हो बालचित्रपट स्टुडिओ सुरू केलो. हाचेंभायर मॉस्फिल्म आनी 'ल्येन फिल्म' हे स्टुडिओ भुरग्यांखातीर थरावीक चित्रपट तयार करतात. ब्रिटनांत १९५१ वर्सा ब्रिटीश चित्रपट वेवसायान फायदोय ना आनी नुकसानूय ना, ह्या तत्त्वाचेर बालचित्रपट संस्था सुरू केली. ताचे पयलीं 'रॅंक ऑर्गनायझेशन' हे संस्थेन एक बाल करमणूक विभाग १९४४ सुरू केल्लो. मेअरी फिल्ड हिचे देखरेखीखाल हो विभाग वापर करतालो. चिल्ड्रन्स फिल्म सोसायटी स्थापन जातकच सुरवेक आर्थर जे रांक हो संस्थेचो अध्यक्ष आशिल्लो आनी मॅरी फील्ड ही कार्यकारी अधिकारी आशिल्ली.

१९४५ त चॅकोस्लोव्हाकियेंत चलचित्र वेवसायाचें राश्ट्रीयकरण केलें. ताचे उपरांत बालचित्रपट निर्मितीची थराविक येवजण आंखून तिचे प्रमाण व्यंगपट,पपॅट फिल्म आदी तयार जावंक लागले.

भारतांत बालचित्रपटांची निर्मिती १९३६ उपरांत जाली. कोल्हापूरच्या प्रभा पिक्चर्सान भुरग्यांखातीर 'ध्रुव' हो खास चित्रपट तायर केल्लो (१९३८). ताची मूळ कल्पना राजा पंडित हाची आशिल्ली. उपरांत बालचित्रसमिती ही संस्था बालचित्रपट निर्मिती करूंक लागली.

इंग्लंड आनी फ्रांसांत बालचित्रपटांच्या फायद्याबगर वितरण चड प्रमाणांत जाता. रशियांत बालचित्रपट संस्था सप्तकाक सुमार १२०० वयर चित्रपट देशांतल्या चित्रपटांक धाडटात. जर्मनींत वितरण संस्था सरकारी आशिल्ल्यान वर्सभर बालचित्रपट प्रदर्शित करतात.

रशियेंत भुरग्यांखातीर खास तयार केल्ले चित्रपट भुरग्यांच्या चित्रपट घरांतल्यान दनपारचे दाखयतात. बालचित्रपटांचें वितरण करपी सुमार २० केंद्रां आसून तीं शाळां सारकिल्या संस्थांक फुकट बालचित्रपट दाखयतात.

**भारतांतली बालचित्रसमिती :** मे १९५५ त भारत सरकारान नेमिल्ले चित्रपट चवकशी समितीचे सांगणेवयल्यान बालचित्रसमितीची स्थापना जाली. हे संस्थेचे मुखेल उद्देग अशे आसात- १) चित्रपटाच्या माध्यमावरवीं भुरग्याची शिक्षणीक आनी संस्कृतीक उदरगत करप. २) करमणुकीचो आनंद घेवपाची भुरग्यांची तांक वाडोवप. ३) भुरग्यांखातीर तयार केल्ल्या वा तांचे आवडीच्या चित्रपट निर्मितीचे, वितरणाचे कार्यक्रम हातांत घेवप, अशे तरेच्या हेर कार्यक्रमांक आदार दिवप वा स्फूर्त दिवप. ४) भुरग्यांच्या मनाचेर जावपी चित्रपटाच्या परिणामाविशीं संशोधन करप.

बालचित्रसमितीचें निर्मितीकेंद्र मुंबय आसा. शाळा, मंडळां वा समाजीक संस्था ह्या फिल्मालयाचें वांगडीपण आपणावंक शकतात. ही संस्था 'आंतरराश्ट्रीय बाल आनी युवा चित्रपटांचें केंद्र (इंटनॅशनल सँटर ऑफ फिल्मस फॉर चिल्ड्रेन अँड यंग पिपल) हे संस्थेचो देशी फांटो म्हणून वावर करता.

हे संस्थेन आयजमेरेन जायते चित्रपटं तयार केल्ले आसून जायते चित्रपट हेर भागांनीय अणकारप जाल्यात. हे संस्थेच्या जायत्या चित्रपटांक देशी व आंतरराश्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळयात.

- कों. वि. सं. मं.

**बालभवन :** भुरग्याचे संस्कृतीक उदरगतीखातीर वावर करपी एक नीम शासकीय संस्था. भुरग्याच्या उपजत कलागुणांक पोसवण आनी फावो तें मार्गदर्शन मेळचें ह्या हेतान भारताचो पयलो प्रधानमंत्री

पंडीत जवाहरलाल नेहरू हाणें १९५६ वर्सा नवी दिल्लींतल्या बालभवनांत हे संस्थेची स्थापणूक केली. आजय पुराय देशभर बालभवनाची चळवळ बऱ्याच नेटान चलता.

शार आनी चड करून गांवगिऱ्या वाठारांतल्या ५ ते १६ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांमदले सुप्त कलागूण सोदून काडून तांचेर बरे तरेन संस्कार करपाचो वावर बालभवनांनी चलता. शाळेंतलो फासके भितरलो अभ्यासक्रम कुशीक दवरून, मेकळ्या वातावरणांत आपले कलागूण आविश्कारीत करपाची संद बालभवनांत मेळटा. बालभवनांत अमक्याच वेळार वचूंक जाय म्हणपाचें बंधन ना, नेमान हजेरेची गरज ना, परिक्षा ना, अमकीच यत्ता पास जावंक जाय असोय नेम ना. फकत भुरग्याक पांच वर्सां जाल्यार पुरो. प्रवेश बाराय म्हयने दितात.

तज्ञ शिक्षकांच्या मार्गदर्शनाखाल भुरग्यांनी आपल्याक जाय त्या आवडीच्या छंदांत मुक्तपणान यश मेळोवप, भुरग्यांमदीं विधायक कार्य करपाची प्रवृत्ती निर्माण जावंची आनी तांचो आत्मविश्वास वाडचो हे नदरेन बालभवनाच्या कार्यक्रमाची आंखणी करतात. हातूंत असामान्य, सामान्य आनी अतिसामान्य अशे दरेका बुध्दीक मळावयल्या भुरग्याक योग्य तरेन वाव दिवप जाता. हुशार भुरग्यांक हांगा जाय जायत्यो वस्तू, वैयक्तिक मार्गदर्शन मेळटा. ताचेवरवीं त्या भुरग्याची उदरगत जावन ताका आपले गूण वाडोवंक मेळटात. शाळेंत हुशार भुरग्यांमुखार सादारण भुरग्यांकडेन दुर्लक्ष जाता. बालभवनांत अशा भुरग्यांचो आत्मविश्वास वाडोवप वा तांच्या आंगांतल्या सुप्त गुणांक वाव दिवपाचो वावर चलता.

आपल्याक जाय तो छंद हाताळपाक मेळिल्ल्यान तशेंच खेळ, बालचित्रपट, आनी हेर करमणुकीच्या कार्यक्रमांखातीर भुरग्याचें मनोरंजन जाता. हुशार भुरग्यांक चडांत चड संद दिवन, सामान्यांक फुडें काडप, अतिसामान्यांक न्यूनगंडापसून वांचोवन ताचेंमदीं आत्मविश्वास निर्माण करप, हो बालभवनाच्या कार्याचो मुखेल उद्देश.

बालभवनांत बैठे आनी मैदानी खेळ, हाती वेवसाय, चित्रकला, मातीकाम, संगीत, नाच, नाटक, कथाकथन, सोंपे विज्ञानीक प्रयोग, गिन्यानाचें वृतांत कथन, लिखाण आदी वेगवेगळे विशय भुरग्यांक मेळूंक शकतात. तशेंच तातूंतल्यो सर्तीय आयोजीत करतात. भुरग्यांच्या मनोरंजनाखातीर वेगवेगळे खेळ, सहली, प्रदर्शनां आदी तरेकवार सुविधा आसतात. बालभवनांत अभ्यासाचेर बंधनां नासतात. थंय वातावरण मेकळें उरचें म्हणून यत्न जातात. वेगवेगळे विशय शिकोवपाखातीर त्या त्या मळावयले शिक्षणतज्ञ नेमिल्ले आसतात. हे तज्ञ आपआपल्या विशयाची गोडी वर्सभरांत भुरग्याक लागची म्हणून आंखणी करतात आनी तेचप्रमाण शिकयतात. ज्या भुरग्याक हे उपक्रम जमनात ताका दुसरे विशय शिकयतात. बालभवनाचो वेळ सादारणपणान गिमाचे सुटयेंत आनी दिवाळेचे सुटयेंत सकाळीं साडेआठ ते साडेइकरा आनी दनपारां पांच ते सात असो आसता. हरशीं बालभवनाचो वेळ दनपारचीं साडेतीन ते सात अशी आसता. कांय बालभवनांनी सकाळ-सांजवेळ काम चलता.

मुंबयंत १९५२ वर्सा भारतांतलें पयलें सरकारी बालभवन सुरू जालें. सोविएत सरकारान भुरग्यांमदल्या सुप्त गुणांचे उदरगतीखातीर 'पायोनिअर पॅलेसिस' हें छंदशिक्षणाचें राश्ट्रीय केंद्र स्थापून गांवांगांवांनी ताचे फांटे सुरू केल्यात. १९५५ त केंद्र सरकारान दिल्लींत एक व्हड बालभवन बांदपाचो थाराव मांडलो. १९५६त हें व्हड बालभवन सुरू जालें. त्याच काळांत राजकोट, चंदीगढ शारांनी व्हड बालभवनां बांदलीं.

फुडें दिल्लीच्या बालभवनाक नेहरूचे कल्पनेंतलें भुरग्यांचें राश्ट्रीय वस्तूसंग्रहालय जोडलें. म्हायती फलक, वण्टीपत्रकां, फोटे, माती-रेंव आदी माध्यमांचो वापर करून उबारिल्लीं चित्रां, प्रकल्प, चित्रपट, कळसुत्री बावल्यो आदीं साधनांवरवीं जायत्या म्हत्वाच्या विशयांची सुरवाती सावन आयजमेरेन म्हायती दिवपी प्रदर्शन केंद्र अशें ह्या बालभवनाचें स्वरूप आशिल्लें. नेहरूच्या मरणा उपरांत देशभर जवाहरलाल नेहरू यादस्तीक निधी एकठांय केलो. दर राज्यान जमयिल्ल्या निधींतली ४०% रक्कम घेवन त्या त्या राज्याक राज्य पांवड्यावयलें जवाहर बालभवन स्थापन करपाचें थरलें. दरेक राज्य पांवड्यावयल्या बालभवनाक एकेक शिक्षक, प्रशिक्षण केंद्र, विचित्र वागपी भुरग्याच्या पालकांखातीर मार्गदर्शन केंद्र, भुरग्यांची प्रगती, तांची वागणूक हेविशीं संशोधन केंद्र आसचें अशें थरलें. हे येवजणे प्रमाण मुंबयच्या बालभवनाचें राज्य पांवड्यावयल्या जवाहर भवनांत रूपांतर जालें (१९७७). ताचीं मुंबयच्या उपकेंद्रांत आठ आनी महाराष्ट्रांत हेरकडेन बारा उपकेंद्रां आसात. हाचेभायर आसाम, बंगाल, उत्तरप्रदेश, हरयाणा, जम्मू आनी काश्मीर, गुजरात, कर्नाटक, आंध्र प्रदेश, केरळ आनी तमीळनाडू ह्या राज्यांनी राज्य पांवड्यावयलीं जवाहर बालभवनां आनी तांचीं उपकेंद्रां स्थापन केल्यांत.

गोंयांत २६ जानेवारी १९८६ ह्या दिसा बालभवनाची स्थापणूक जाली. पणजे बालभवनाचें मुखेल केंद्र आसा. हाचेभायर फोंडें, वाळपय, मडगांव, दिवचल, काणकोण, पर्वरी, मांद्रें, केरी- सत्तरी, पर्यें, म्हापशें, वास्को, कुर्टी-फोंडें, शिरोडें, कुडचडें, ठाणें-सत्तरी, पैंगीण-काणकोण अशीं सोळा बालभवन केंद्रां सांजवेळच्या सत्रांत चलतात.

भुरग्यांक गिमाच्या आनी शिंयाळ्या सुटयांनी सुटयेचो कलानंद घेवपाक मेळचो ह्या हेतान जंय बालभवनाचीं केंद्रां नात थंय पंदरा पंदरा दिसांचीं शिबिरां नेमान घडोवन हाडटात. तशेंच गोंयच्यो थळाव्यो संस्था, शाळा समुह हांच्या जोडपालवान गांवगिऱ्या वाठारांनी एका दिसाचे बालमेळावे घडोवन हाडटात. तशेंच गिमाचे सुटयेंत शिक्षणीक सहली, परिसंवाद, प्रश्नमंजुषा, कवीसंमेलन, कार्यशाळा, बालोत्सव, नाट्यशिबिरां घडोवन हाडटात. राश्ट्रीय थराचेर जावपी राश्ट्रीय एकचार, शिबिरां पर्यावरण परिशद आनी हेर राश्ट्रीय कार्यावळींनी वेळा वेळार वांटो घेवपाची संद दिता. बालभवन सोसायटी नवी दिल्लीचे वतीन राश्ट्रीय

थराचेर दितात त्या 'बालश्री' पुरस्काराखातीर वर्सान वर्स गोंयच्या भुरग्यांची शिफारस करता. हो पुरस्कार १) संगीत, नाच, नाट्य, २) लेखन, ३) चित्रकला आनी ४) विज्ञानीक सोद अशा चार विभागांखातीर आसता.

इन्डोर स्टेडियमामुखार बाल भवनाच्या सोबीत सुंदर अशा संकुलांत बालभवनाचे कलाविभाग तशेंच सुसज्ज वाचपघर, मिनी ओपन थिएटर, बंद नाटकघर, परिशद हॉल हांचो आस्पाव आसा.

भारताचे फुडाराचे जापसालदार नागरीक घडोवपाचो म्हत्वाचो वावर बालभवनांत चलता. गोंयांत गांवागांवांनी ही चळवळ फांकची म्हणून बालभवन मंडळाचो यत्न आसा.

- शशिकांत पुनाजी

- कों. वि. सं. मं.

**बालमानसशास्त्र** : (पळेयात मानसशास्त्र).

**बालरंगभूमी** : खासा भुरग्यांखातीर बालनाट्य सादर करपी रंगमाची. बालरंगभूमी ही भुरग्यांची रंगभूमी नासून भुरग्यांखातीर आशिल्ली रंगभूमी. बाल प्रेक्षक (सादारण किशोर अवस्थेंतले चले-चलयो), बालनाट्य आनी ताचो रंगमाचयेवयलो प्रयोग हे बालरंगभूमीचे म्हत्वाचे घटक. मनोरंजनांतल्यानूच उद्‌बोधन हो बालरंगभूमीचो उद्देश. बालरंगभूमीचेर सादर जावपी बालनाट्य हो खुबूच कठीण असो स्वतंत्र लेखन प्रकार. भुरग्याच्या कल्पनाविश्वांतलो विशय तांकां फावो त्या सूत्रबध्द आनी घटनाप्रधान कथानकांत मांडल्यार बरें बालनाट्य आकारांत येवंक शकता. हांसत-खेळत बरे संस्कार करप हें बालनाट्याचें ध्येय आशिल्ल्यान ताच्या विशयांक मर्यादा आसता. शोकात्मिकेसारके नाट्यप्रकार सहसा बालरंगमाचयेर सादर करिनात.

भुरग्यांक विनोद आनी धाडस हांची आवड आसता. तशे सादारणपणान बालप्रेक्षक संवेदनक्षम आनी अनुकरणप्रीय आसतात. ताका लागून बालनाट्य बारीकसाणेन हाताळचें पडटा. देखीकः बालनाट्यांत नायक-नायिकेचें प्रेम आसल्यार तें निरागस इश्टागतींतल्यान दाखोवचें पडटा. रहस्यमय बालनाट्यांत उत्कंठापुर्वक भयाची गरज आसता. पूण बेठेंच भिरांकूळपण बालमनार विचित्र परिणाम करता. जाण्ट्यांक उदात्त दिसपी विशय भुरग्यांचे नदरेक गंभीर, मानसीक तणाव निर्माण करपी आसतात. बालनाट्यांत भाशणांतल्यान आदर्श दाखोवपाबदला तो करणेंतल्यान दाखोवचो पडटा. जरी बालरंगभूमी भुरग्यांखातीर आसली तरी तिची प्रगती आनी विकास जाण्ट्यांकडल्यानूच जावचो पडटा.

**इतिहास** : अस्तंती देशांनी एकुणिसाव्या शतमानाच्या निमाणें बालरंगभूमीचो वावर सुरू जालो. ताचेआदीं सतराव्या आनी अठराव्या शतमानांत अशे तरेचे प्रयत्न सुरू जाल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. भारतांत बालरंगभूमीची सुरवात विसाव्या शतमानांत सुरू जाली. भारतांत मराठी, गुजराती, बंगाली, हिंदी ह्या भांसांतल्यान बालरंगमाचयेचो वावर चालू आसा. बंगाली रंगमाचयेर नृत्यनाट्य हो प्रकार चड करून दिश्टी पडटा. सुरवेक शिक्षकांनी वा भुरग्यांखातीर बरोवपी लेखकांनी भारतीय बालरंगभूमीची पयली बुन्याद घाली. वा. गो. आपटे (मराठी), गिजूभाई बधेका (गुजराती), यशवंत पंड्या (गुजराती)आदींनी अशे तरेचें बरप केलें. मदल्या काळांत राम गणेश गडकरी हाचें 'सकाळचा अभ्यास' आनी प्रल्हाद केशव अत्रे हाणें बरयिल्लें 'गुरू दक्षिणा' हीं उल्लेख करपासारकीं नाटकां आसात. फकत बालकलाकारूच आशिल्ल्या 'बालमोहन' नाटक मंडळीन ह्या नाटकांचे प्रयोग केल्ले.

बालरंगभूमीचें खरें कार्य सुरू जालें तें दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत. पुरुषोत्तम दारव्हेकरान गणेशोत्सव, शारदोत्सवांतले मेळे आनी शाळासंमेलनांतल्यान बालनाट्यां सादर केलीं जाल्यार अमेरिकेंतल्यान बालनाट्य शिक्षण घेवन आयिल्ल्या सुधा करमरकरान १९५७त मुंबय मराठी साहित्य संघाच्या नाट्योत्सवांत बालनाटिका सादर केल्यो. ह्याच काळांत पुण्यांत सई परांजपे हिणेंय नाटिकांतल्यान बालरंगभूमीविशीं कार्य सुरू केलें. १९५९ त मुंबय मराठी साहित्य संघाचो बालनाट्य विभाग बंद जातकच सुधा करमरकरान 'लिटल थिएटर' (बालरंगभूमी) हे संस्थेची स्थापणूक केली. फकत भुरग्यांखातीर नाट्यनिर्मिती करपी मराठींतली ही पयली संस्था अशें म्हण्टात.

ह्या काळांत नाटिकांतल्यान समाजीक विशय हाताशिल्ले दिसतात. तशेंच तातूंतल्यान अद्‌भूतरम्यतेचेर भर दिल्ल्याचें दिसता. ह्या काळांत अस्तंत्या परीकथांचें नाट्यरूप केल्लें दिसता. १९६१-७० ह्या दशकांत देशाभिमान जागोवपी, इतिहासीक तशेंच विज्ञानीक फांटभुंयेवयलीं बालनाटकां फुडें आयलीं. हातूंत चिनी, बदाम, मंगळावर स्वारी, अदृश्य माणूस हांकां नामना मेळ्ळी. ह्याच सुमाराक 'परिक्षेपूर्वीच्या सात रात्री' ह्या शिक्षणीक नाट्याचो प्रयोग जाल्लो मेळटा. विज्ञानीक, शिक्षणीक हे विशिश्ट फाटभुंयेचेर वा प्रचलीत घडामोडींचेर बरयल्ल्या नाटकाचें म्हत्व तात्कालीक आसता. हीं नाटकां कालसापेक्ष नाट्यकृती म्हणून वळखतात. समाजीक, इतिहासीक वा विज्ञानीक विशयावयलीं बालनाट्यां कुमारगटांतल्या भुरग्यांचें मनोरंजन बरे तरेन करतात. ५-१० वर्सां ह्या वयोगटांतले प्रेक्षक चड प्रमाणांत बालनाट्यां पळयतात. देखून अद्‌भूतरम्य नाटकाची निर्मिती चड प्रमाणांत जाता. ह्या काळांतल्या कांय बालनाट्यांनी ब्रॅक्टाच्या तंत्राचो वापर केल्लो दिश्टी पडटा. हातूंतल्यानच रंगमाचयेवयल्या पात्रांनी प्रेक्षकांकडेन संवाद करपाचो प्रयोग जालो.

१९७५ च्या उपरांत सादारणपणान सगळ्याच वयोगटांतल्या भुरग्यांक मानवतलीं अशीं समाजीक बालनाट्यां रंगमाचयेर पोरन्या संस्थांनी सादर करपाक सुरवात केली. १९७९ ह्या आंतरराश्ट्रीय

बालकवर्सांत बालनाट्य निर्मितीक चालना मेळ्ळी. तरी पूण बालरंगभूमींत फावो ती उदरगत जाल्ली दिसना. ह्या कार्याक अर्थीक फाटबळ मेळ्ळेबगर ताचो पुराय विकास जावप शक्य ना अशें जाणवता.

बालप्रेक्षकांच्या नाट्यप्रयोगाविशींच्या कल्पनांनी नेपथ्य, प्रकाशयेवजण, संगीत आदी गजालींचो आस्पाव जाता. देखून कथानकाक उठाव दिवपी आनी नाट्यप्रयोगाचे परिणामकारकतायेंत भर घालपी तंत्रीक आंगां बालरंगभूमीर गरजेचीं आसतात.

नेपथ्याचे बाबतींत दोन मत प्रवाह दिसतात. पयलो, कलात्मक आनंद आनी बऱ्या पांवड्याचो खरो नाट्यानुभव घेवपाखातीर बालप्रेक्षकांनी भरिल्ल्या प्रेक्षकघरांत बसून बालनाट्य पळोवप. दुसरो म्हळयार बालनाट्यांतलें नेपथ्य दोळयांक आनंद दिवपी आसलें तरी विचित्र आसूंक जायना.

बालनाट्यांतलीं पात्रां मेकळो आभिनय, बोलक्यो हालचाली, त्या त्या वेळावयल्यो विशिश्ट लकबी हातुंतल्यान बालप्रेक्षकांमुखार उबीं करचीं पडटात. बालप्रेक्षकांक मेकळेपणाच्या नांवाखाल येवपी अडेचो अभिनय आवडना. देखून बालनाट्यांतलो अभिनय प्रत्ययकारी आसचो पडटा. बालप्रेक्षकाक नाट्यांत काम करपी कलाकाराचें म्हत्व नासता जाल्यार नाट्यांतल्या पात्राचें चड म्हत्व आसता. बालनाट्यांतले प्रसंग-घडणुको फुलोवपाखातीर पदांचो उपेग करतात. बालनाट्यांतलीं पदां म्हळयार तीं अभिनयगितां आसचीं पडटात. भुरग्यांक आवडपी ठेको आनी घडणुकांचो वेग लक्षांत घेवन गीत-संगीत रचना करची पडटा.

बालनाट्यांतली रंगभूशा आनी न्हेसपाची पद्दत कथानकांतल्या काळाक जुळटा अशी आसची पडटा. भरजरी, भपकेबाज भेस आनी ठळक रंगभूशा हें बालरंगमाचयेचें खाशेलपण. बालरंगमाचयेर सादर जावपी अद्भूतरम्य बालनाट्याची ती गरज आसता.

बालनाट्य निर्मितीक सुमाराभायर खर्च येता. ह्या नाट्याचे प्रसिध्दीखातीरूय खुबूच खर्च करचो पडटा. ह्या नाट्याच्या तिकिटींचें मोलूय हेर नाटकांपरस उणें दवरचें पडटा. कारण समाजांतल्या सगळ्या थरांतल्या लोकांमदीं ताचो प्रसार जावंचो हो हेत आसता. बालनाट्यप्रयोग फकत सुटयेंतूच करचे पडिल्ल्यान तांची प्रयोग संख्याय मर्यादीत आसता.

बालरंगभूमी आनी शालेय रंगभूमी ह्यो दोन वेगवेगळयो आसात. बालरंगभूमींत प्रेक्षक हो पालकां वांगडा येता. शालेय रंगभूमीचो प्रेक्षक विद्यार्थी वर्ग आसता. स्पश्ट शद्बोच्चार, आपले विचार दुसऱ्या मनशामुखार प्रभावीपणान मांडप, आपल्या उलोवपाचो हेरांचेर पडपी प्रभाव जाणून घेवप, आत्मविश्वास दृढ करप ह्या सारक्यो जायत्यो गजाली विद्यार्थ्यांच्या व्यक्तिमत्व विकासांत येतात. शालेय रंगभूमीवयलो कलाकार व्हड जातकच नटूच जातलो अशें ना. पूण तातूंतल्यान एक प्रभावी व्यक्तिमत्व तयार जावंक शकता. शालेय रंगभूमीचेर तिचे मर्यादेंत शालेय वातावरणाकडेन सुसंबध्द आनी संस्कारक्षम विशय उबे करचे पडटात. पूण बालरंगभूमीचेर नाटिकांवरीच दोन अडेच वरांचें पुराय लांबायेचें नाटक सादर करचें पडटा देखूनच शालेय रंगभूमी ही बालरंगभूमीची प्रयोगीक रंगभूमी अशें म्हण्टात.

बालरंगभूमीच्या प्रसाराखातीर महाराष्ट्र राज्य शासनाच्या संस्कृतीक कार्य संचनालयावतीन दर वर्सा बालनाट्य शिक्षण शिबीर आनी बालनाट्योत्सव आयोजीत करतात. मुंबय-पुण्यांतल्यो कांय मानेस्त संस्था अशे तरेचीं शिबिरां चलयतात आनी नाटकसर्ती तशेंच नाट्यलेखन सर्ती आयोजीत करतात. भारतांतल्या हेर राज्यांनीय बालनाट्य संस्थांचे नाट्यप्रयोग आयोजीत करतात. ह्या संस्थांतल्या जाणीवपूर्वक काम करपी संस्थांक केंद्र शासन, राज्य शासन, महानगरपालिका आनी संगीत नाटक अकादमी आदीं कडल्यान अनुदान मेळटा.

बालरंगभूमीच्या क्षेत्रांत काम करपी कांय संस्था अशोः लिटल थिएटर, मुंबय बालनाट्य, मुंबय; आविष्कार (चंद्रशाला) मुंबय; किशोर कलाकेंद्र, मुंबय; नवलरंगभूमी, मुंबय; इंडियन नॅशनल थिएटर, मुंबय; बाल्कन-जी-बारी, मुंबय; वंदना थिएटर्स, मुंबय; दीपालिका चिल्ड्रन्स थिएटर, अहमदाबाद; चिल्ड्रन्स लिटल थिएटर, कलकत्ता; हांचेभायर लिटल थिएटर ग्रूप, कलकत्ता आनी नवी दिल्ली तशेंच पुण्याची शिशुरंजन, भरतनाट्य संशोधन मंदिर; फुलराणी बालरंगभूमी, कलाश्रय आनी सानुली रंगभूमी, नागपूरची रसिक रंजन आनी देवबाप्पा रंगभूमी ह्यो संस्था ह्या क्षेत्रांत कार्यरत आसात.

सई परांपजे, पुणें; पुरूषोतम दारव्हेकर, नागपूर; प्रागजी डोसा, मुंबय; वनलता मेहता, मुंबय; चंद्रवदन मेहता, सुरत; शांता गांधी, दिल्ली; नामदेव कहुटे, मुंबय; हिमादेवी मुंबय; पर्ल पदमसी, मुंबय; हांचेभायर भालबा केळकर, श्रीधर राजगुरू, वासुदेव पाळंदे, माधव वझे, दत्ता टोळ, माधव चिरमुले, जयंत तारे, दिनकर देशपांडे हाणीं ह्या मळार केल्लो वावर उल्लेख करपासारको आसा. लखनौच्यान बालरंगमंच ह्या नांवान बालरंगभूमीविशीं नेमाळें उजवाडा येता.

गोंयात सुटयेच्या काळांत गोंयच्या कलाअकादेमीच्या पालवान गोंयात नाट्य चळवळ करपी संस्था बालनाट्याचीं शिबीरां आयोजीत करता.

- कों. वि. सं. मं.

**बालरोगविज्ञान :** भुरग्यांचे भलायकेविशींच्या वैजकी शास्त्राच्या फांट्याक बालरोगविज्ञान अशें म्हण्टात. बालरोगविज्ञान हें आर्विल्या काळांतूच उदरगतीक पाविल्लें शास्त्र. पुर्विल्ल्या काळांत वैजकी शास्त्रांत बालरोगविज्ञानाक खाशेलें अशें स्थान नाशिल्लें. पयलींचे वैज जाण्टे आनी नेण्टे हांकां समान लेखताले आनी अदमासाच्या आदारानूच भुरग्यांचेर उपचार करताले.

**बालरोगविज्ञानाचो इतिहास :** भुरग्यांच्या दुखण्याचेर पुर्विल्ल्या काळांत चडशें संशोधन नाशिल्लेंच. तरी भुरग्यांचीं दुखणीं आनी तांचीं लक्षणां खाशेलीं आसूंक शकतात हाची जाण पयलींच्या नामनेच्या वैजांक आशिल्ली. खूब पोरनी वैजकी परंपरा आशिल्ल्या आमच्या देशांत भुरग्यांचे जतनायेविशीं पयलें-वयलें हातबरप (इ. स. पयलीं ४६०-५००) सुश्रुत ह्या खांप्या वैजान बरयलें. 'कौमार मृत्य' (भुरग्यांची सेवा) ह्या नांवाचें हें हातबरप 'कसप्य तंत्र' ह्या ग्रंथांत मेळटा. ह्याच सुमाराक (इ. स. पयलीं ४६०) ग्रीसांत खांपो वैज हिपोक्रिटीज हाणें भुरग्यांक दांत येवपाचेर पयलो निबंद उजवाडाक हाडलो. उपरांतच्या काळांत (१ A. D.) सेल्सस ह्या रोमी वैजान भुरग्यांचे भलायकेविशीं थोडें लिखाण केल्लें मेळटा. गॅलन ह्या ग्रीक वैजान भुरग्यांचे जतनायेविशीं केल्ल्यो सुचोवण्यो ह्याच तेंपावयल्यो.

भुरग्यांच्या रोगांविशींचें पयलें पुस्तक अरबी वैज रजीज (८५०-९३२) हाणें उजवाडाक हाडलें. १५व्या शेंकड्यांत 'Little Book on Diseases of children' ह्या नांवांचें पुस्तक पावलु बोगालार्डो हाणें छापून उजवाडायलें. बालरोगविज्ञानावयलें हें पयलें छापी पुस्तक. हाचे उपरांत १७ व्या शेंकड्यामेरेन ह्या विशयाचेर जीं थोडीभोव पुस्तकां प्रसिद्द जाल्यांत, तातूंत फ्रांसिस्क ग्लिसन, तोमास फ्रेयर आनी वॉल्टर हॅटीज ह्या वैजांक मानाचो पाट फावो जाता. १८व्या शेंकड्यांत मिकेल अंडरवूड ह्या वैजान बरयल्लो बालरोगांविशींचो ग्रंथ शंबरेक वर्सां लेगीत संदर्भ ग्रंथ म्हणून तेन्नाचे वैज वापरताले.

ह्याच शेंकड्यांत भुरग्यांखातीर खाशेली अशी 'वैजकी सेवा' इंग्लंडांत सुरू जाली. ही सेवा सुरवेक फकत गरीब लोकांपुरतीच आशिल्ली. १९व्या शेंकड्यांत फकत भुरग्यांचें पयलें हॉस्पिटल अमेरिकेंत सुरू जालें.

भारतांत भुरग्यांचीं खाशेलीं हॉस्पिटलां आनी वैजकी सेवा २०व्या शेंकड्यांत १९५० उपरांत सुरू जाली. गोंयांत आशिया खंडांतलें पयलें म्हाविद्यालय 'इश्कोल मेदीकु' ह्या नांवान १८४२ वर्सा सुरू जालें. पूण तातूंत भुरग्यांचो असो खाशेलो फांटो नाशिल्लो. हो फांटो १९६४ वर्सा जालो. १९६२ ह्या वर्सा ह्या 'इश्कोल मेदीकु' चें 'गोवा मॅडिकल कॉलेज' ह्या नांवान रुपांतर जालें. १९६४ पयलीं भुरग्यांची तपासणी बायलांचेच वैज करताले आनी तांची भरतीय बायलांच्याच विभागांत जाताली.

विसाव्या शेंकड्यांत भुरग्यांच्या वैजांनी आपआपल्या संस्थांचें एकठावण केलें. भुरग्यांच्या वैजांच्यो संस्था, भुरग्यांचीं दुखणीं आनी तांचेर उपाय ह्या विशयांचेर संशोधन करून सरकाराक आनी हेर वैजांक सुचोवण्यो करताल्यो. बालविज्ञानाचो प्रसार ह्या संस्थांवरवींच जाला. गोंयच्या बालरोगतज्ञ वैजांची संस्था Goa Association of Pediatricians ह्या नांवान १९८६ वर्सा सावन बालरोग विज्ञानाचें गिन्यान गोंयांत फांकोवपाचो यत्न करता.

**नवजात बालमृत्यू आनी शिशूमृत्यू :** नवजात बालमृत्यू आनी शिशूमृत्यूच्या प्रमाणावयल्यान भौशिक भलायकेच्या कामाचो अदमास येता. ज्या देशांत भुरग्यांच्या मरणाचें प्रमाण चड आसता थंय भलायकी खात्याचें काम सारकें चलना अशें म्हणूं येता.

**नवजात बालमृत्यूचें प्रमाण :** दर हजारांत जितें जल्मल्लें भुरगें जल्मासावन पिरायेच्या म्हयन्यापयलीं सोंपता त्या भुरग्यांच्या प्रमाणाक नवजात बालमृत्यूचें प्रमाण अशें म्हण्टात. (Neonatal Mortality Rate-Deaths in Neonatal Period Per 1000 Live births). हें प्रमाण आमच्या देशांत ५१ इतलें आसा जाल्यार विकसीत देशांनी हेंच प्रमाण ६-१० इतलें उणें आसा. आमच्या देशांत नवजात काळांत भुरग्यांच्या मरणाचीं मुखेल कारणां अशीं :

१. धोणकुटी (Neonatal Tetanus) २. जल्मवजनाचें उणेंपण (Low Birth Weight) आनी ३. नवजात काळांतलीं इंजेसांवां.

नवजात बालमृत्यूचें प्रमाण उणें जावपाक गुरवार बायलेक धोणकुटेचीं इंजेसांवां दिवप, जल्मवजन वाडोवपाक गुरवार बायलेचें जेवणखाण वाडोवप, नवजात काळांत इंफेसांवांक पयस दवरपाक बांळटेराचे आनी नवजात बालकाचे जतानायेच्या कामांत नितळसाण राखप हे हाचेवयले कांय उपाय.

गोंयांत नवजात बालमृत्यूचें प्रमाण खूब उणें आसा.

**शिशूमृत्यूचें प्रमाण :** दर हजारांत जित्या जल्मल्ल्या भुरग्यांमदीं जल्मासावन पिरायेचें वर्स जावंचे पयली मरपी भुरग्यांच्या प्रमाणाक शिशूमृत्यूचें प्रमाण अशें म्हण्टात. (Infant Mortality Rate) २०व्या शेंकड्यांत भुरग्यांची मरण संख्या खूप उणी जाल्या. बालरोगविज्ञानाचे नवे नवे सोद आनी भौशिक, अर्थीक मळार जावपी उदरगतीक लागून भुरग्यांच्या मरणाचेर बरोच ताबो आयला. भारत आनी उदरगतीचे वाटेर आशिल्ल्या भारतासारक्या देशांनी मात अजून शिशूमृत्यूचें प्रमाण खूब आसा. भारतांत शिशूमृत्यूचें प्रमाण सद्या ८० इतलें आसा. गोंयांत मात हें प्रमाण १९ इतलें आसा.

**शिशूमृत्यूचीं मुखेल कारणां :**

१. थंडेचीं दुखणीं (A. R. I).- २३%

२. वासिनांनी टाळपासारकीं दुखणी (Vaccine Preventive Illness) - २१%

३. हागवण-सुकतडो २८%

४. हेर २८%

शिशूमृत्यूचें प्रमाण उणें करपाक वासिनांची येवजण आनीक फांकोवंक जाय, हागवणींत सुकतडो टाळपाक सुकतड्यावयल्या सरबताचो (ORS) प्रसार वाडोवंक जाय आनी थंडेच्या दुखण्याची पारखण आनी वखदांची येवजण मुळाव्या भलायकी वावुरप्यांक शिकोवंक जाय.

**भुरग्यांचें पोशण :** बालरोग विज्ञानांत पोशणाक खूब म्हत्व आसा. विसाव्या शेंकड्यांत भुरग्यांच्या पोशणाचें म्हत्व बालरोगतज्ञांक कळूंक लागलें. भुरगेपणांतल्या कुपोशणाचो परिणाम व्हडपणांत लेगीत उरता हाचो सोद मात ह्या निमाण्या दोन दशकांतलोच. भुरगेपणांतलें कुपोशण मनशाचे वाडिची आनी बुद्दीची कुवत उणी करता. मनशाचें मोटवेपण वा बुद्दीचे उणेंपण हांचें कारण पिरायेच्या पयल्या पांच वर्सांचें कुपोशण. आवयच्या कुपोशणाक लागून भुरग्याचें जल्मवजन उणें जाता. उणें जल्मवजन आनी जाण्टेपणांतलें गोडेंमूत, कॉलेस्टॅरॉलांत वाड हाचें नातें आसता अशेंय आता समजलां.

आमच्या देशांत ४०% भुरग्यांक कुपोशण आसता. हातूंत ५-१०% भुरग्यांक सादारण खर आनी चड खर कुपोशण आसता.

कुपोशणाचें मुखेल कारण कॅलरी आनी प्रथिनां हांचें जेवणांतलें उणेंपण. हांचे भायर अ जीवनसत्वाचें कुपोशण, लोखण ह्या धातूचें कुपोशण आनी आयोडीन ह्या घटकाचें कुपोशणूय आमच्या देशांत खूब आसता.

'अ' जीवसत्वाचें कुपोशण ४-५% भुरग्यांक आसता. ह्या जीवनसत्वाच्या कुपोशणांत भुरग्याक रातआंधळेपण आनी उपरांत कुड्डेंपण येता. लोखणाच्या कुपोशणांत रगतांत हिमोग्लोबीन हो घटक उणो जावन ॲनेमिया हें दुखणें जाता. ह्या दुखण्यांत कश्टांचें काम करपाची (Physical work) कुवत उणी जाता. बुद्दीचें उणेंपणूय ह्या दुखण्यांत जाता. हें दुखणें ४०-५०% भुरग्यांक जाता.

आयोडीन हो घटक उणो जाल्यार थायरॉयड (Thyroid) हे ग्रंथीचें काम सारके जायना जावन ती सुजता. आवयक आयोडिनाचें कुपोशण जाल्यार भुरग्याक क्रॅटिनीझम (Cretinism) हें भयाचें दुखणें जावन भुरगें मतिमंद जावंक शकता. आयोडीन उणें जावन थायरॉयडाचे गांठीची सूज गोंयांत सुमार २७-३०% लोकांक आसा, अशें एके पळोवणेंत दिसलां.

'अ' ज़ीवनसत्व कुपोशण पयस दवरपाक पाचवी पालेभाजी आनी हळदुवीं फळां खावपाक जाय. लोखण हें पाचवी पालेभाजी, नुस्तें, तांती हातूंत आसता. हीं खाणां खाल्यार भुरग्याक लोखण फावो तशें मेळटा. आयोडीनयुक्त मीठ वापरल्यार आयोडिनाचो कुपोशण पयस दवरपाक ज़ाता.

**भुरग्यांचीं मुखेल दुखणीं :** भुरग्यांचीं चडशीं दुखणीं जाणट्यांच्या दुखण्यांभाशेनूच आसतात. पूण तांचीं लक्षणां विंगड विंगड आसपाक शकतात. भुरगेपणांत दुखण्याची खरसाण अचकीत वाडूंक शकता. जीं दुखणीं जाण्टेपणांत सादीं अशीं दिसतात. तींच भुरग्यांच्या जिवाक भयाचीं जावंक शकतात.

**नवजात भुरग्यांचीं दुखणीं :** नवजात भुरग्यांचीं लक्षणां पारखुपाक खूब अणभवाची नदर जाय. नवजात भुरग्यांच्या दुखण्यांचीं लक्षणां चडशीं कांयच दिसनात. पूण कांय वरांभितर हीं दुखणी बळावतात.

नवजात भुरग्यांचीं मुखेल दुखणीं अशीं : १. जल्मवजन उणें जावप आनी दीस भरचे पयलीं जल्म जावप. २. रोगजंतूपसून उपराशिल्लीं दुखणीं (infection). ३. हुस्काराच्या त्रासांचें दुखणें. ४. जल्मजात असंगततायांची दुखणी (Congenital anomalies).

**पांच वर्सांसकयल भुरग्यांचीं मुखेल दुखणीं :** हालींच केल्ले एके पळोवणेंत भुरग्यांचीं मुखेल दुखणीं अशीं मेळ्ळयांत- १. थंडेचीं दुखणीं (सादी थंडी, प्लुमोनिया, भिण्णां), २. हांगवण, ३. सादो जोर, ४. दंत, ५. कामीण, ६. तिफोयत जोर, ७. काळजाचीं (जल्मजात) दुखणीं. आनी हेर

कुपोशणाचीं दुखणीं दर दोन भुरग्यांफाटल्यान एका तरी भुरग्याक आसताच.

वासिनांचे विस्तारीत कार्यावळीक लागून कांय वशांच्या दुखण्यांचें प्रमाण खूब उणें जालां.

**बालरोगविज्ञानाच्यो नव्यो दिका :** ह्या दोन दशकांमदीं बालरोगविज्ञानाची खूब उदरगत जाल्या. दर दिसा नवे नवे सोद लागत आसात. बालरोगविज्ञानाचें कार्य आतां फकत भुरग्यां पुरतेंच उरूंक ना. तर आवयच्या पोटांतलो गर्भ (Embryo) आनी भ्रूण (Foets) हांचें रोगनिदान करून तांचेर उपचार करप हेंच काम आतां बालरोग- तज्ञांच्या वांट्याक आयलां. बालरोगविज्ञानाच्या ह्या फांट्याक जल्मापयलींचें बालरोगविज्ञान (Antenatal Paediatrics) अशें म्हण्टात. अनुवंशीक रोग आनी बडीचीं अपंगूळपणां हांचो सोद बालरोगतज्ञ नव्या उपकरणांच्या आदारान घेवंक शकतात.

आवयच्या पोटांत भुरग्याभोंवतणीं एक द्रव आसता. ह्या द्रवांत भुरगें पेंवता. ह्या द्रवाक 'उल्व द्रव' (Amniotic Fluid) अशें म्हण्टात. गर्भ धरतकच १०-१२ सप्तकांचेर उल्व द्रवाची तपासणी केल्यार 'गुणसुत्रांतले दोश' (Chromosomal Abnormalities) कळटात. Mongolism Thalassamia सारकीं दुखणीं हे तपासणेंत बेगीन कळ्ळयार भुरगें दवरपाचें काय ना हाचो निर्णय आवय-बापूय घेवपाक शकतात.

गुरवार बायलेक चार म्हयने जातकच आवयची Ultrasound तपासणी करून भ्रुणाची भलायकी कळटा. जल्मजात 'असंगततायो (Congenital Anomalies) हे तपासणेंत कळूंक शकतात. फाटल्या दोन दशकामदीं भुरग्यांचें शल्यशास्त्र बरेंच फुडें पावलां. खर खर अशो असंगततायो आतां शस्त्रक्रियेउपरांत बऱ्यो जातात. नवजात भुरग्यांचेर लेगीत शस्त्रक्रिया करप आतां सोपें जालां.

ह्या दोन दशकांमदीं बालरोगविज्ञानाक आनिकूय फांटे फुटल्यात. बालहृदयविज्ञान (Paediatric Cardiology), 'बालफुफूस विज्ञान (Peadiatric Pulmonology), बालमज्जारोगविज्ञान (Paediatric Neurology), बालमूत्रपिंड विज्ञान (Paediatric Nephrology) हे फांटे बरेच सुदारल्यात.

**बालरोगविज्ञान शिक्षण :** दोन दसकांपयलीं बालरोगविज्ञानाक वैजकीचे पदवी परिक्षेंत मानाचें स्थान नाशिल्लें. एम्. बी. बी. एस. चे परिक्षेंत बालरोगविज्ञानाचेर केन्नाय प्रस्न येतालो. आतां पदवी परिक्षेंत बालरोग विज्ञानाचें म्हत्व वाडलां. आता उणेच चार ते पाच प्रश्न आसतात.

आमच्या देशांत चडशा वैजकी म्हाविद्यालयांनी बालरोगविज्ञानाची पदविका (D. C. H.) आनी पदव्युत्तर पदवी (M. D.) शिकोवपाची तजवीज आसा. गोंयच्या वैजकी म्हाविद्यालयांतूय बालरोगविज्ञानाचें शिक्षण ह्या तीन दसकांनीच मेळटा.

**गोंयचे बालरोगतज्ञ :** गोंयांत बालरोगविज्ञान हालींचेंच. पूण कांय गोंयकार बालरोगतज्ञ आमच्या देशाच्या वैजकी मळार नांव मेळोवन गेले. दोतोर जॉर्ज कुयेल्य हो भारत देशांतलो एक नामनेचो बालरोगतज्ञ. तांकां भारतांतले बालरोगविज्ञानाचे जनक म्हणून मानतात. ताणें भारतांतलो पयलो बालरोगविभाग जे. जे. हॉस्पिटलांत (मुंबय) सुरू केलो. ताचो शिश्य, दोतोर रघुनंदन संझगिरी आनी संझगिरीचो पूत दोतोर रमेश संझगिरी हांचें नांव दर गोंयकाराक खबर आसा. गोंयांतलो पयलो बालरोगतज्ञ दोतोर आलेक्स प्रोयेंस. आतां गोंयांत ६०-७० बालरोगतज्ञ आसात.

- डॉ. अवधूत बोरकर

## बालविवाह

**बालविवाह :** चलो वा चली पिरायेंत येवंचेपयलीं लग्न करप हाकाच बालविवाह अशें म्हण्टात. शारिरीक आनी मानसीक जाण येवंचे पयलीं भुरग्याचें लग्न करप अशीय बालविवाहाची व्याख्या करूं येता. ह्या लग्नांत वैवाहिक जिणेंतल्यो जापसालदारक्यो आनी कर्तव्यां हांचेविशीं न्हवरो-व्हंकल पुराय अजाण आसतात. ही बालविवाहाची चाल परंपरीक जीण जगपी, संवसारांतल्या खूबशा लोकांभितर आशिल्ली अशें समजता.

वेदकाळांत बालविवाहाचे उल्लेख मेळनात. धर्मसुत्रांच्या काळासावन मात बालविवाहाचे उल्लेख मेळटात. कांय धर्मसुत्रांनी व्हंकल ही 'नग्निका' आसची अशें म्हळां. 'नग्निका' ह्या शब्दाविशीं कांय मतभेद आसात. एक अर्थ, चलयेक लज म्हळयार किदें तें खबर नासता आनी दुसरो अर्थ जे चलयेक अजून ऋतू (मासिक पाळी) प्राप्त जाल्लो नासता. पूण गृह्यसुत्रांत 'चतुर्थी कर्म' ह्या विवाहविधीचो उल्लेख आसा. हो विधी लग्ना उपरांतूच करतात. हो फलशोभनाचो विधी आसून तो ऋतू प्राप्त जाल्याबगर करपाक मेळना. हाचे वयल्यान चलयेचें लग्न प्रौढ पिरायेंतूच जातालें असो अदमास केल्यार, धर्मसुत्रांच्या काळांत बालविवाह जातालें काय नात हेविशीं दुबाव येता.

लग्न जाल्ले घोव-बायलेन लग्नाउपरांत तीन राती ब्रह्मचर्य पाळचें असो सूत्रकारांनी नेम सांगला. याज्ञवल्क्याच्या काळांत, ऋतू प्राप्त जावंचे पयलीं, चलयेचें लग्न जावंकूच जाय असो पक्को विचार जाल्लो. बायलेन ऋतू प्राप्त जातकच लग्न जावं जाय, ते बगर तिका स्वर्गप्राप्ती जायना अशें मानपाक लागले. इ.स. च्या पयल्या पांच शेंकड्यांमेरेन लग्नाची पिराय उणी करपाचे खूब यत्न जाले. चली पिरायेंत येवंचे पयलीं आपले चलयेचों जो आवय बापूय आनी व्हडलो भाव लग्न करीना, तो नरकांत वता अशें सांगलां. आठव्या वर्सा चलयेचें लग्न करप बरें अशें मनून म्हळां. आठ वर्सांचे चलयेक 'गौरी', णव वर्सांची 'रोहिणी', धा वर्सांची 'कन्या' आनी उपरांत 'रजस्वला' मानपाक लागले. ब्राह्मणान नग्निका वा गौरी हिचेकडेन लग्न जावंचें अशें वैखानस सूत्रांत म्हळां. कांय वेळार चली सामकी ल्हान म्हळयार दोन-तीन वर्सांची आसतना जाल्यार केन्ना आवयच्या पोटांत आसतना लेगीत लग्न जाल्ल्याचीं उदाहरणां आसात. दोन गुरवार बायलांभितर एकलेगेर चली आनी दुसरेगेर चलो जातलो अशें धरून लग्न थरयताले. हाकाच 'पोटाक कुकूम लावप' अशें महाराष्ट्रांत म्हण्टात.

मॅलनिशयन जमातींनी आनी पॉलिनिशियन प्रतिश्ठितांभितर ही बालविवाहाची चाल आशिल्ली मेळटा. पापुआ न्यू गिनीच्या अधिकाराखाल आशिल्ल्या न्यू गिनी जुंव्याचे आग्नेयेक आशिल्ल्या टोब्रिआंड द्विपसमुहांत बालविवाह व्हड प्रमाणांत जाताले. अमेरिकेंतल्या निग्रो समाजांत आनी आशिया खंडांतल्या हेर जमातींनी बालविवाह पयलीं जाताले आनी आयज लेगीत कांय प्रमाणांत जातात. चीनांत साम्राज्य युगाचे सुरवातीक लग्नाखातीर चलयेची पिराय १४ आनी चल्याची पिराय १६ वर्सां थरयल्ली. कन्फ्युशसच्या पयलींच्या काळांत लग्नाची पिराय चलयांची सादारणपणान १५ ते २० आनी चल्यांची २० ते ३० आशिल्ली. तेराव्या शेंकड्यांत कोरियत बालविवाहाची चाल आशिल्ली. कोरियेचो त्या काळांतलो राजा कोंजाँग हो मोंगोलियन सम्राटाक नजरांणो दिवन खूश दवरपाखातीर सुंदर चलयांक मोंगोलियेंत धाडटालो. ह्या भंयाक लागुनूच ल्हान ल्हान पिरायेतूच लग्न करपाची थंय पद्दत आंसुये. मध्ययुगांतल्या शिलेदार युगांतूय इंग्लंड आनी युरोपांत पांच वर्सांचे चलयेवांगडा लग्न जावपाची पद्दत आशिल्ली. पूण बालविवाहाक भारतांत जें स्वरूप आशिल्लें तशें हेर खंयच दिसना. पितृसत्ताक कुटूंबपद्दतींत चलयेच्या लग्नाची जापसालदारकी बापायचेर आसता. वंश, जात, गोत्र-प्रवर, पींड हांचेविशीं नेम आशिल्ल्यान आनी पिरायेंत आयिल्ली चली स्वताच आपल्याक न्हवरो सोदून वयले नेम मोडीत म्हणून दुबाव आशिल्ल्यान चली पिरायेंत येवंचेपयलींच तिचें लग्न करचें अशें थरलें आसुंये. तेच भाशेन बायलेच्या चारित्र्याक खूब म्हत्व दिल्ल्यान चली पिरायेंत येतकच खंयच्याय दादल्याचे वासनेक बळी पडची न्हय वा स्वता बदनाम जावंची न्हय हे खातीर बालविवाहाची प्रथा चालीक लागली आसुंये.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणेमेरेन ही बालविवाहाची प्रथा चालू अशिल्ली. हो विघातक प्रकार चालू आसतनाच एक सुदारक विचारवंतांचो वर्ग फुडें आयलो आनी ताणीं ह्या बालविवाहाक विरोध करपाक सुरवात

केली. हेच नदरेंतल्यान इ.स. १८६२ वर्सा सातान्याच्या लोकांनी बसका घेवन चलो १६ वर्सांचो आनी चली ८वर्सांची जालेबगर लग्न करचें न्हय असो थाराव पास केलो. इ. स. १८७३ वर्सा 'बालविवाह - प्रतिबंधक मंडळी' ही संस्था मुंबयंत स्थापन केली. गणेश रामचंद्र किर्लोस्कर आनी भास्कर बल्लाळ निमकर हे संस्थेचे सचीव आशिल्ले. विनायक महादेव पंडित, शंकर मोरो रानडे, गोविंद हरी जोशी हे सुदारक विचारवंत लोक वेवस्थापकीय मंडळांत आशिल्ले.

राजा राममोहन रॉय, ईश्वरचंद्र विद्यासागर, केशवचंद्र सेन, ज्योतीराव फुले, म. गो. रानडे, गो. ग. आगरकर, धों. के कर्वे, म. मो. कुंटे, वे. शा. सं. जनार्दनाचार्य वळे हाणीं बालविवाहाचे प्रथेक खर विरोध केलो. बेहरामजी मलबारी, लाला गिरिधारी लाल, रायबहादुर बक्षी सोहनलाल, हरी सिंग गौर, हरविलास सारडा, हाणीं कायदो करून सुदारणा करची ह्या मताचो पुरस्कार केलो आनी तातूंतल्या कांय जाणांनी कायदे मंडळांत बालविवाहबंदीची विधेयकांलेगीत हाडलीं.

जरठकुमारी विवाह, बालविधवांची अडचण, अकाली वैधव्य आयिल्ल्या बायलांचे अनाचार आनी तातूंतल्यान जल्माक येवपी अनौरस संततीचे प्रस्न तशेंच संमती पिरायेचो प्रस्नूय बालविवाहाचे चालींतल्यान निर्माण जालो. जे पिरायेंत शिक्षण घेवपाचें तेच पिरायेंत बायल-दादलो संवसारांत पडिल्ल्यान शिक्षण घेवप उणें जालें. समज येवंचेपयलीं लग्न जाल्यान आवय-बापायन थरयल्ल्या चल्यावांगडा वा चलयेवांगडा लग्न जावन जीण सारप, तातूंतल्यान कुटुंबीक ताण निर्माण जातात आनी संघर्श जाल्यान पयली बायल सोडून दुसरी केल्ल्यान बायलेक वायट जीण जगची पडटा. ही स्थिती सुदारपाखातीर कांय कायदे केले ते अशे - १) १८६० : भारतीय दंड संहितेचीं कलमां ३७५ आनी ३७६- सोळा वर्सांसकयले चलयेकडेन वा बायलेकडेन समागम करपाक बंदी. बालविवाह प्रतिबंधक कायदो १९२९ वर्सा जालो. २) १८९४ : म्हैसूर सरकारान बालविवाहाचो कायदो करून चलयेची पिराय आठ वर्सांपरस उणी आसल्यार लग्नाक बंदी घाली. ३) १९०४ : बडोदा सरकारान चलयेची लग्नाची पिराय बारा आनी चल्याची सोळा इतली थरयली. ४) १९२७ : इंदूर सरकारान चलयेची लग्नाची पिराय बारा आनी चल्याची चवदा थरयली. ५) १९२९ : बालविवाह प्रतिबंधक कायदो (सारडा कायदो) हे प्रमाण चलयेची पिराय चवदा आनी चल्याची अठरा थरयली. ६) १९५५ : हिंदू विवाह कायदो सद्याक चलयेची पिराय पंदरा वर्सां आनी चल्याची अठरा वर्सां थरलीं. सद्याक ती चलयेखातीर अठरा आनी चल्याखातीर एकवीस आसा.

बालविवाहावयल्या ह्या कायद्यांक लागून हे प्रथेचेर पुराय बंदी आयली. पूण गांवगिऱ्या वाठारांनी, थरावीक जमातींनी कांय प्रमाणांत आयजे लेगीत बालविवाह जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**बालवीर संघटना :** तरने पिरायेच्या भुरग्यांखातीर वावर करपी संवसारीक मळावयली एक संघटना. बेडन पॉवेल ऑफ गिलबेल (१८५७-१९४१) ह्या ब्रिटीश सैनीक अधिकाऱ्यान १९०७ त इंग्लंडांत हे संघटनेची चळवळ सुरू केली. चले-चलयांमदीं बरे नांगरीक जावपाक गरजेचे आशिल्ले गूण आसचे हो हे चळवळीचो मुखेल हेत. ह्या शतमानांतली ती एक म्हत्वाची शिक्षणीक संघटना असो तिचो उल्लेख करप जाता. चल्यांखातीर बालवीर संघटना (बॉय स्काऊट) आनी चलयांखातीर वीरबाला संघटना (गर्ल गायड) अशो वेगवेगळ्यो संघटना आसात. दोनूय संघटनांचो संस्थापक आनी आयोजक लॉर्ड बेडन पॉवेल. ह्या संघटनांचीं मूळ तत्त्वां, शिक्षणीक बसका, वापराची तरा, आनी संवसारीक स्वरूप हें सादारणपणान सारकेंच आसलें तरी चलेचलयांच्या शिक्षणक्रमांत जाय थंय फरक केला. चारित्र्य, भलायकी, उद्यमशीलता आनी सेवाभाव आदी गुणांक हे संघटनेंत पयलें स्थान दितात. ह्या चार गुणांचेर बालवीर संघटनेचो पुराय कार्यक्रम आदारिल्लो आसता.

आघाडेचेर वचून दुस्मानांचो पत्तो लावप, तांच्यो हालचाली तेळप आनी तेविशीं आपल्या अधिकाऱ्यांक बिनचूक म्हायती, दिवपाखातीर जे सैनीक फुडें वतात, तांकां 'स्काऊट' म्हण्टात. धीर, चिकाटी, स्वावलंबन, सावधानता, बारीक साणीन निरिक्षण, स्मरणशक्ती, शारिरीक आनी मानसीक ताण सहन करपाची तांक, त्यागाची तयारी, ज़ापसालदारकेची जाणविकाय आदी जायते गूण आत्मसात केले बगर स्काऊटाचें काम बरे तरेन करूंक येना हें सांगपाक बॅडन पॉवेल हाणें १९०० त 'एड्स टू स्काउटिंग' हें पुस्तक उजवाडाक हाडलें. १९०८ त ताणें स्काउटिंग फॉर बॉयस हें पुस्तक उजवाडा हाडलें.

हे शिक्षण पद्दतीचो प्रत्यक्षांत प्रयोग जावंचो देखून ताणें इंग्लंडांतल्या ब्राउन सी जुंव्यार २५ जुलय ते ९ ऑगस्ट १९०७ ह्या काळांत संघटनेचें पयले शिबीर घडोवन हाडलें. थंय बेडन पॉवेल हो हे संघटनेचो प्रशिक्षक आशिल्लो. बालवीर संघटनेच्या इतिहासांत ह्या शिक्षण शिबिराक खुबूच म्हत्व आसा.

त्या काळांत ही शिक्षणपद्दत लोकांक आनी पालकांक खूब मानवली. तिचोच परिणाम म्हणून इंग्लंडा भायर कॅनडा, ऑस्ट्रेलिया, न्यूझिलंड, भारत ह्या देशांतल्या ब्रिटीश लोकांनी १९०८-०९ ह्या वर्सा आपल्या भुरग्यांक हे पद्दतीचें शिक्षण दिवंक सुरवात केली. इंग्लंडाभायर हे तरेचें शिक्षण सुरू करपी पयलें राश्ट्र म्हळयार चिली (१९०९). १९१० त हे संघटनेची चळवळ अमेरिकेंत पावली. त्याच वर्सा बेल्जियम, हॉलंड, फ्रांस, रशिया, आदी युरोपी देशांनी आनी आर्जेंटिना, ब्राझील ह्या अमेरिका खंडांतल्या देशांनी ही संघटना पातळली. १९०९ त लंडनांत क्रिस्टल पॅलेसीचेर पयलो बालवीर मेळावो भरलो. ह्या मेळाव्यांत स्काउटांवरीच भेस केल्ल्यो कांय चलयो हातांत दांडे घेवन उब्यो आशिल्ल्यो आनी 'गर्ल स्काउट' अशें तांणीं बेडन पॉवेल हाका सांगलें. तांची उमेद पळोवन ताणें

१९१० त आपल्या भयणींच्या आदारान वीरबाला (गर्ल गायड) ही संघटना सुरू केली. फुडें हे वीरबाला संघटनेची पुराय जापसालदारकी, ताची बायल लेडी बेडन पॉवेल हिणें घेतली. १९१२-१३ मेरेन गायड संघटनेची चळवळ न्यूझिलंड, भारत, शांघाय, हवाई जुंव्यांचेर पावली.

बालवीर शिक्षणाची सुरवेची येवजण ११ ते १७ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांखातीर आशिल्ली.ह्या गटाक स्काऊट म्हण्टाले. फुडें १९१४ त ७ ते ११ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांखातीर 'कब' (शिशुवीर) ह्या नांवान शिक्षण सुरू जालें. १९१६ त १७ वर्सां पिरायेवयल्या भुरग्यांखातीर 'दोव्हर' नांवान शिक्षण सुरू केलें. भारतांतले वीरवाला हे संघटनेक ७ ते ११ पिरायेच्या गटाक 'बुलबुल' (बालिका), ११ ते १७ ह्या गटाक गायड (वीरबाला) आनी १७ ते २५ह्या गटाक 'रेंजर' अशें म्हण्टात.

आपले दीसपट्टे जिणेंत बालवीर आनी वीरबाला हांकां १० मुल्यांक पाळो दिवंचो पडटा. तीं धा मुल्यां अशीं- १) विश्वास आनी प्रामाणीकपण २) निश्ठा ३) बंधुभाव ४) सहकार्य ५) सौजन्य ६) मोनजातीविशीं आपलेंपण ७) शिस्त आनी आज्ञाधारकपणा ८) धीर आनी आनंदी वृत्ती ९) काटकसर १०) विचार, आचार, उच्चार हांचें पावित्र्य.

शिशुवीर आनी बुलबुल हांचो भेस आनी पदकां, स्काऊट आनी गायड हांच्या पदकांपरस वेगळीं आसतात. उजव्या हाताचीं पयलीं दोन बोटां इंग्लीश व्ही अक्षराच्या आकारांत उजवे भुंवयेवटेन धरून प्रमाण करपाचो आसता. हस्तांदोलन मात स्काऊट आनी गायड हांचेवरी दाव्या हातान करपाचें आसता. 'तयार रावात' (बी. प्रीपॅर्ड) हें धेय वाक्य आनी तीन पाकळ्यांचें कमळ हो बालवीर संघटनेच्या पदकाचो मुखेल भाग.



बालवीर वीरबाला

बालवीर वा वीरबाला जातना आपल्या कर्तव्याक पाळो दिवपाचें आनी बालवीर वा विरबालाचे सगळे नेम आचरणांत हाडपाचें वचन दिवंचें पडटा. नेम, वचन, पदक, ध्येय, आचार, बंधन आनी हस्तांदोलन ह्यो सगळ्यो गजाली सगळ्या राष्ट्रांतल्या बालवीर संघटनांमदीं सारक्योच आसतात. भेस लेगीत सादारणपणान सारकोच आसता. फकत राष्ट्राराष्ट्रांनी थोड्या प्रमाणांत फरक आसता.

स्काऊट आनी गायड हांचे कामाचे पद्दतीक संघपद्दती अशें म्हण्टात. संघपद्दती (पॅट्रोल सिस्टीम) हो शिक्षणाचो मूळ गाभो. बालवीर आनी वीरबाला संघटना हेच पद्दतीचेर आदारिल्ल्यो आसात. हातूंत चले चलयांक शिकोवपाची सगळी जापसालदारकी संघनायक आनी सहाय्यक संघनायक हांचेर आसता. संघनायक आनी सहाय्यक संघनायक हांचें एक मंडळ आसून ताका सन्मानसभा (कोर्ट ऑफ ऑनर) म्हण्टात. हे सभेचो अध्यक्ष हो संघनायका मदलोच आसता. पथनायकूय तांचेच मदलो आसता. स्काऊट मास्टर वा गायड कॅप्टन हे सभेंत सल्लागार वा मार्गदर्शक म्हणून काम करतात. चले चलयांक आपआपले जापसालदारकेचेर काम करपाक शिकोवप वा ते जापसालदारकेची जाणविकाय तांकां दिवप हो स्काऊट आनी गायड चळवळीचो मुखेल उद्देश आशिल्ल्यान हे सन्मानसभेक बरेंच म्हत्व आसा.

संवसारीक बालवीर संघटनेचें कार्यालय सुरवेक लंडनाक आशिल्लें. थंयसावन तें आटोवा (कॅनडा) हांगा व्हेलें. फुडें एप्रिल १९६८ सावन तें जिनिवांत (स्वित्झर्लंड) आसा. संवसारीक वीरबाला संघटनेचें कार्यालय मात अजुनूय लंडनांतूच आसा. दर दोन वर्सांनी संवसारीक स्काऊट परिशदो भारतांत आनी दर चार वर्सांनी जांबोरी' (संवसारीक स्काऊट गायड मेळावे) भरतात. पयलो संवसारीक मेळावो लंडन १९२०त भरिल्लो. भारतांत १९५० त दिल्लीक संवसारीक परिशद भरिल्ली. संवसारीक गायड संघटनेचीं चार केंद्रां आसात. हातूंतलें सुरवेक 'अवर शॅले केंद्र'



१ २ ३ ४

बालवीर संघटना : कांय बोधचिन्नां : (१) वर्ल्ड स्काउट ब्यूरो (२) वर्ल्ड असोसिएशन ऑफ गर्ल गाइड्स अँड गर्ल स्काउट्स (३) भारत स्काउट अँड गाइड्स, नॅशनल हेडक्वार्टर्स (४) महाराष्ट्र स्टेट भारत स्काउट्स अँड गाइड्स

१९३२ त स्वित्झर्लंडांत, ॲडलबोडनांत स्थापन जालें. उपरांत १९३९ त लंडनांत 'अवर आर्क' वा 'ओले हाऊस', मेक्झिकोंत १९५७ त 'अवर कॅबानो' आनी पुण्याक १९६४त संगम हें चवथें केंद्र स्थापन जालें.

स्काऊट आनी गायड हांचे संवसारीक परिशदेक धाडपाच्या प्रतिनिधींची संख्या सगळ्या देशांनी सारकीच आसता. खंयच्याय राष्ट्राचो एकूच प्रतिनिधी कार्यकारी मंडळाचेर येवंक शकता. ताचो काळ स वर्सां आसता.

**भारतांतली बालवीर संघटना :** १९०९ वर्सा भारतांत हे संघटनेची सुरवात जाली तरी भारतीय भुरग्यांक तातूंत प्रवेश घेवंक मेळनासलो. हे संघटनेचो आपल्याक त्रास जातलो अशें इंग्लिशांक दिसतालें. १९१७ त चेन्नईक ॲनी बेझंट हिणें ॲरंडेल व्यंकटेश्वरन हाच्या आदारान 'इंडियन बॉय स्काऊटस असोसिएशन' सुरू केलें. त्याच वेळार अलाहाबादेक मदन मोहन मालवीय हाणें हृदयनाथ कुंझरू आनी श्रीराम वाजपेयी हांच्या आदारान सेवासमिती स्काऊट असोसिएशन सुरू केलें. ह्या दोन संघटनांचे फाटे जायत्या वाठारांनी सुरू जाल्ले पळोवन ब्रिटीश सरकारान बेडन-पॉवेल हाका भारतांत आपोवन 'बॉय स्काऊट' असोशिएशन सुरू केलें. सरकारी फाटबळ मेळिल्ल्यान ही चळवळ शाळांनीय पावली. फुडें 'ऑल इंडिया गर्ल गायड असोसिएशन' ही संघटना सुरू जाली. १९३७ त पयली अखिल भारतीय जांबोरी दिल्लीक भरली. भारतांतल्यान ६००० स्काऊटसांनी तांतूत वांटो घेतिल्लो. फुडें १९३८त हिंदुस्थान स्काऊट संघटना अस्तित्वांत आयली. उपरांत सेवासमिती हे संघटनेंत विलीन जाली. भारताक सुटका मेळ्ळया उपरांत त्या वेळा वयलो शिक्षण मंत्री मौलाना अबुल कलाम आझाद हाणें स्काऊट आनी गायड संघटनांच्या फुडाऱ्यांक एकठांय हाडून एक व्यापक संघटना निर्माण करपाविशीं सांगलें. ७ नोव्हेंबर १९५०त भारत स्काउट आनी गायड संस्था निर्माण जाली. स्काऊट आनी गायड शिक्षणाचो एकठांय वावर करपी संवसारांतली ही पयली संस्था. ही संस्था आतां शासनाचे मान्यतायेन पुराय भारतांत वावर करता. दिल्लीक हे संस्थेचें मध्यवर्ती स्काउट-गायड कार्यालय आसा.

शिशुवीर, बुलबुल तशेंच स्काऊट आनी गायड हांकां शिक्षण दिवपी अधिकाऱ्यां खातीर वेगळो प्रशिक्षणक्रम आसता. भारतांत स्काऊट-गायड संस्था आनी तिचे थळावे फांटे वर्ग चलयतात. मुळावे, माध्यमिक आनी वुडवॅज अशा तीन दर्जांचे हे वर्ग आसून ते सादारण धा दिसांचे आसतात. वुडवॅज ह्या प्रशिक्षण क्रमाचे तीन वांटे आसतात. १) तत्त्वीक : हातूंत स्काऊट चळवळ आनी शिक्षण हांचेविशीं विचारिल्ल्या कांय प्रस्नांच्यो लेखी जापो दिवंच्यो पडटात. २) प्रात्यक्षीक : हें शिक्षण प्रशिक्षण वर्गांतूच घेवंचे पडटा. ३) चले-चलयां वांगडा प्रत्यक्ष काम करपाचो अणभव : हें प्रशिक्षण पुराय जातकच वुडवॅज नांवाचें गोफांत लायिल्लें चिन्न तांकां गळयांत घालूंक दितात. ताचे वांगडा एक विशेश तरेचो गळयांत घालपाचो रुमाल (स्कार्फ) दितात. संवसारांतल्या सगळया स्काउट-गायड संघटनांनी चले-चलया वांगडा काम करपी सगळे अधिकारी हे आपवावुरपी (व्हॉल्युंटरी वर्कर्स) हे आपखोशयेन काम करपी आसतात. येदे व्हडले संख्येन आपखोशयेन वावर करपी स्काऊट-गायड ही आगळी संस्था आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बाल संगोपन :** (भुरग्यांची जतनाय). पिरायेचीं बारा वर्सांमेरेन मनीस भुरगो आसता. जल्मतकच चार सप्तकांमेरेन भुरग्याक 'नवजात भुरगो' (Neonate) आनी वर्सांमेरेन ताका बालक (Infant) अशें म्हण्टात. भुरगेपणांत आनी चड करून पयल्या वर्सा भुरग्याच्यो गरजो खाशेल्यो आसतात. देखून, मनशाचे पिरायेचो हो काळ म्हत्वाचो.

नवजात भुरगो जल्मतकच एका नव्या वातावरणांत पावता. ह्या वातावरणाची संवकळ जावपाक ताका आदार करप हें बालसंगोपनाचें पयलें काम. नवजात भुरग्याक हूनसाणीची गरज आसता. आवयच्या पोटांत तापमान ३८सॅं. इतलें आशिल्ल्यान जल्मतकच वातावरणाच्या उण्या तापमानाचो ताका खूब त्रास जावंक शकता. कुडीची हुनसाण सांबाळपाक, जल्मतकच भुरग्याक बेगीन पुसपाक जाय आनी नितळ लुगटान गुठलावंक जाय. जल्मतकच भुरग्याक रोखडेंच न्हाणोवंक जायना. ताका पयलें न्हाण दोन दिसांउपरांत दिल्यार जाता. पयले कांय म्हयने आवयन आपले म्हऱ्यांत भुरग्याक न्हिदयल्यार ताका तिचे कुडीची ऊब मेळटा. पाळण्यांत न्हिदोवंचेपरस आवयन आपले म्हऱ्यांत नवजात बालकाक न्हिदोवंचें अशें भुरग्यांचे वैज सांगतात.

नवजात भुरग्याक पोटाक घालपाक कळाव लावंक जायना. सुरवेक साकरीचें वा सादें उदक, म्होंव असले जिन्नस ताका घालचे परस आवयन भुरग्याक आपल्या दुदाक धरप बरें. आवयच्या पयल्या-वयल्या दुदाक दीक अशें म्हण्टात. हो भायर उडोंवचे परस भुरग्याक दिवप गरजेचो. दिकांत प्रतिकार शक्त आसता. तातूंतलो IGA हो घटक भुरग्याक रोगजंतूपसून राखता. पूर्ण दूद जावपाक आवयक जरी ३-४ दीस लागले तरी आवयन भुरग्याक देड वरांभितर दुदाक धरचो अशी संवसारीक भलायकी संघटनेची सुचोवणी आसा. ३-४ वरांचो नेम धरून भुरग्याक दूद दिवंचे परस भुरगों रोखडो भुकेक रडटकच ताका दुदाक धरप बरें.

भोंवतणच्या वातावरणांत खूब रोगजंतू आसतात. भुरग्याची प्रतिकार शक्त उणी आशिल्ल्यान ताका रोगजंतूंची लागण जावपाचो भय चड आसता. भुरग्याची नाळ ही रोगजंतू भुरग्याचे कुडींत रिगपाची मुखेल वाट. म्हणून भुरग्याची नाळ नितळ दवरपाक जाय. भुरग्याक रोगजंतूंपसून राखपाक बाळंतिणीक वेगळें दवरप ही पयलींची चाल आतांय आचरणांत हाडूंक जाय. नवजात भुरगें दिसाक खूब फावटीं मुतता. मुतान भिजिल्ली लंगोटी, आंगलीं भुरग्याच्या आंगार उरल्यार मुतांतल्या आमोनिया ह्या रसायनाक लागून भुरग्याचे कातीर चड करून जांगेंत आनी भोंवतणच्या भागांत, तांबडो पुळेर (Napkin Rash) जाता. तेखातीर भुरग्याक सुको दवरूंक जाय. मुतान ओले जाल्ले कपडे रोखडेच बदलूंक जाय. नवजात भुरग्याची लंगोटी सदांच सुती लुगटाची आसची, प्लास्टिकची न्हय.

नवजात भुरगें खूब नेटान वाडटा. ताच्या मेंदवाची वाड पयल्या दोन वर्सांमदीं पूर्ण जाता. हे सान पिरायेचेर कुपोशण वा हेर दुखण्यांक लागून भुरग्याची वाड खुंटूंक शकता. खुंटिल्ले वाडीचे परिणाम सासणाचे उरतात. भुरगेपणांत कुपोशण जाल्लीं भुरगीं जाण्टेपणांत मोटवीं उरपाक

शकतात. कुपोशणाक लागून बुद्दीचेंय उणेपण उरूंक शकता.

भुरग्याचे बरे जतनाये खातीर १) ताचें पोशण २) दुखणीं वाटावपी मुळावीं वासिनां ३) दुखणीं टाळपाक कुडीची आनी सरभोंवतणची नितळसाण राखप आनी ४) बुद्दीक पोशक वातावरण निर्मप ह्या चार मुखेल गजालींची गरज आसता.

**भुरग्याचें पोशण** : भुरग्याच्या पोशणाक खूब म्हत्व आसता. भुरग्याचें अन्न ताचे कुडीचे आनी मेंदवाचे वाडीक पूरक आसूंक जाय. नवजात भुरगें आनी बालक हांचें अन्न सैमीक मांडणे प्रमाण आसपाक जाय. आवयच्या दुदांत भुरग्याचे वाडीक पुरक अशे घटक, मेंदवाचे वाडीक पूरक अशीं प्रथिनांचीं आनी चरबीचीं आम्लां आसतात. इतलेंच न्हय, आवयच्या दुदांत प्रतिकार शक्तीचेय घटक आसतात. आवयच्या दुदाचेर पोसपी भुरग्यांक हागवण, थंडी आनी हेर दुखणीं खूब उण्या प्रमाणांत जातात.

पिरायेच्या पयल्या ४-६ म्हयन्यांमेरेन आवयचें दूद भुरग्याचे वाडीक पुरायेन पावता. दुदाभायर भुरग्याक आनीक कांयच दिवपाची गरज आसना. उदक लेगीत हे पिरायेचेर भुरग्याक दिवंचें न्हय. ४-६ म्हयने जातकच भुरग्याक दुदावांगडाच खाणां घालूंक जाय. ह्या पिरायेचेर भुरग्याचे कुडींत शारिरीक बदल जातात. भुरगो गिळूंक शिकता. ताच्यो मावो घट जातात आनी ताची पचनशक्त वाडटा.

भुरग्याक घालपाचें पयलें खाण पचपाक बरें, रांदपाक सोंपें आनी अन्नाच्या तत्त्वांनी परिपूर्ण आसपाक जाय. गोंयांत दुदावांगडा घालपाचें पयलें खाण म्हण नाचण्याचें सत्व वा पेजेचो निवळ आनी मोव पेज वापरतात.

भुरग्याक मोव खाणां खावपाची संवय जातकच ताका दाटसार खाणां सुरू करपाक जाय. हीं खाणां पचूंक लागतकच धान्यां वांगडाच इल्लीं कड्डणां (दाळ) भरसून ताका दिवंक जाता. मासाळ खाणांय धान्यांत भरसून भुरग्याक दिवंक जातात. धान्य आनी दाळ वांगडा शिजयल्यार खाणांच्या प्रथिनांचें प्रमाण आनी पत वाडटा. दाळ आनी धान्यां हांचे भरसणीक दोट्टी भरसण अशें म्हण्टात. दोट्टी भरसण भुरगो पचोवंक लागतकच तातूंत इल्लें तेल/तूप वापरूंक जाता. तेल/तूप हे स्निग्ध जिनस खाणांची पुश्टी वाडयतात आनी दाटसाण उणी करतात. सुमार स म्हयन्यांउपरांत भुरग्याच्या खाणांत पालेभाजी आसूंक जाय. पालेभाजी भुरग्यांक 'अ' जीवनसत्व दिता. णव म्हयन्या उपरांत भुरग्याक खाणाचे बारीक बारीक कुडके दिवंक जातात. केळीं, चिकू, फाती बिस्कीट, मोव शीत हीं खाणां भुरग्याक हे पिरायेचेर दिवंक जातात. वर्साचो भुरगो जाणटे जेवतात तें सगळें जेवण जेवपाक शकता. भुरग्याचें जेवण जाणट्यापरस अर्दान आसूंक जाय. ल्हान भुरग्याक दिसाक २-३ फावटीं खाण दिवचे परस दिसांतल्यान ५-६ फावटीं तरी दिवंक जाय अशें भुरग्यांचे वैज सांगतात.

दुदावांगडचीं खाणां दिता आसतना आवयन आपलें दूद बंद करूंक जायना. दुसऱ्या वर्सा लेगीत भुरग्याक दुदाची गरज आसता. ताच्या अन्नाचो सुमार अर्द वांटो आवयच्या दुदांतल्यान मेळपाक जाय.

**भुरग्याची वाड पारखण (Growth Monitoring)** : भुरग्याचें पोशण सारकें आसा वा ना हे ताचे वाडिवयल्यान कळटा. भुरग्याची वाड पळोवपाक नेमान ताचें वजन पळोवपाक जाय. चार म्हयन्यांचेर भुरग्याचें वजन जल्मवजनापरस दुपेट जाता. वर्साचेर तीन पटींनी जाता. पिरायेचे पयले स म्हयने भुरगो दर म्हयन्याक एक कील हे गतीन वाडटा. दुसऱ्या स म्हयन्यांमदीं हे वाडीचो हिशोब म्हयन्याक अर्द कील इतलो आसता. भुरग्याची वजन वाड पयल्या स म्हयन्यांक ४०० ग्रामांपरस उणी आनी दुसऱ्या स म्हयन्यांक २०० ग्रामांपरस उणी आसल्यार ताची वाड सारकी ना अशें समजूंक जाता. भुरग्याचें वजन, वाडीच्या तकट्याचेर (Growth Chart) मांडूंक जाय. ह्या तकट्यावयल्यान भुरग्याची वाड आनी पोशण कशें आसा तें कळटा.

वजनावांगडाच भुरग्याची लांबाय मापूंक जाय. जल्मतना भुरग्याची लांबाय सादारण ४५ सेंमी. आसता. भुरग्याचें पोशण सारकें नासत जाल्यार भुरगो मोटवोच उरता.

**भुरग्याचे वाडीचे पांवडे (Milestones)** : भुरग्याचे बुद्दीची वाड पारखुपाक ताचीं कर्तुबां पिराये प्रमाण आसात वा ना हें पारखप गरजेचें. सर्वसादारण भुरगें अमकींच कर्तुबां अमकेच पिरायेचेर करता. देखून ह्या कर्तुबांक वाडीचे पांवडे अशें म्हण्टात. भुरग्यांचीं कांय मुखेल कर्तुबां-हांसप, मान धरप, बसप, दिमखुऱ्यांनी वचप, उबो रावप.

भुरग्याचे वाडीचे मुखेल पांवडे अशे आसतात-

१. वळखिच्याक हांशें हांसप - देड ते दोन म्हयने.
२. आ, उ उलोवप (हुंकार दिवप)- दोन ते अडेज म्हयने.
३. मान धरप - तीन म्हयने
४. हातांत वस्त धरप - चार म्हयने
५. बसप - आठ म्हयने
६. दिमखुऱ्यांनी फुडें वचप - णव ते धा म्हयने
७. उबें रावप (हात सोडून) - इकरा म्हयने
८. चलप - बारा म्हयने
९. उलोवप (दोन उतरां) - बारा ते चवदा म्हयने

जें भुरगें २ म्हयने जावन लेगीत हांसना, ४ म्हयने जावन लेगीत मान धरना, ९ म्हयन्यां मेरेन बसना, वर्सा मेरेन सारकें उबें रावना, तें भुरगें बुद्दीन मंद आसूंक शकता. अशा भुरग्याचे वाडीची पुराय तपासणी भुरग्याच्या दोतोराकडल्यान जावंक जाय. भुरग्याचे बुद्दीक पोशक अशें

वातावरण मेळळयार भुरगें बुद्दीन बरें तल्लख जाता. बरें शिकिल्ल्या आवय-बापायच्या भुरग्याची बुद्दी तल्लख आसता. बुद्दीक पोशक अशें वातावरण निर्मप ही दर पालकाची एक मुखेल जापसालदारकी. भुरगें ल्हान आसतनाच ताका वाचून काणयो सांगप, ताचे बुद्दीक चालना दिवपी खेळणीं दिवप, ताच्या प्रस्नांक वाजेनासतना जापो दिवप ह्यो साद्यो गजाली हे नदरेन म्हत्वाच्यो. भुरग्यांचीं खेळणीं म्हारग आसुंकूच जाय अशें ना. सवाय खेळणीं पिराये प्रमाण भुरग्याक दिवंक जाय. ल्हान भुरगो लांकडाचे तरेकवार रंगाचे ठोकळे घेवन बरो खेळटा. बालदी, उदक आनी रेंव ह्यो तीन वस्तू ४-५ वर्सांच्या भुरग्यांचीं आवडटी खेळणीं. साप ल्हान भुरग्यांचीं खेळणीं रंगीत पेल्ल, बावली असलीं आसतात. ह्या खेळण्यांक मेकळे करपाक येता तसले बटन वा धार आशिल्ल्यो वस्तू आसूंक जायनात. मेकळयो वस्तू भुरगें तोंडांत घालून घुसमटूंक शकता. समवयाच्या भुरग्यांवांगडा खेळळयार भुरग्याचे बुद्दीक बरी चालना मेळटा.

**भुरग्याचे दांत :** जल्मतना भुरग्याक दांत आसनात. भुरगें स म्हयन्यांचें जातकच ताका दांत येवपाक सुरवात जाता. पयलीं मुखावयले सकयले कातरे दांत (Incisors) येतात. एक दोन म्हयन्यांभितर वयले दोन दांत येतात. ताचे उपरांत कुशीचे कातरे दांत येतात. वर्साच्या भुरग्याक स दांत आसतात. दुसऱ्या वर्सा भुरग्याक सुळके दांत (Canine) आनी दाडो येतात. दुसरें वर्स सोंपता तेन्ना भुरग्याक १२ दांत आसतात. सुरवेचे हे दांत सासणाचे उरनात. ते पडून तांचे सुवातेर नवे दांत येतात. देखून तांकां दुदाचे दांत म्हण्टात. भुरगो ६-८ वर्सांचो जातकच ताचे फुडले दांत पडटात आनी २-३ म्हयन्यांउपरांत तांचे सुवातेर नवे घट दांत येतात. हेरूय दांत १०-१२ वर्सांमेरेन पडटात आनी भुरग्याक घट दांत येतात.

वर्साच्या भुरग्याक ब्रशान दांत घांसपाची संवय करपाक जाय. चॉकलेटी वा गोड खाणां खातकच दांत घांसल्यार ते किडेनात.

**रोग प्रतिबंधक वासिनां :** मुखेल अशीं स दुखणीं, वासिनां दिवन पयस दवरपाक येतात. टी. बी., पोलिओ, कांटेल, कोलेखांक, धोणकुटी आनी हुरहुरें ह्या दुखण्यांच्या वासिनांचो भारत सरकारान वासिनांचे मुळावे येवजणेंत आस्पाव केला.

मुळावीं वासिनां करपाची भारत सरकाराची सुचोवणी अशी आसा-

१) जल्मतकच बी. सी. जी. (इंजेसांव), २) देड, अडेज आनी साडे तीन म्हयन्यांचेर तोंडांत पोलिओचे डोस आनी ट्रिपलाची इंजेसांवां, ३) ९ म्हयने जातकच हुरहुऱ्याचें इंजेसांव, ४) देड वर्स आनी साडेचार वर्सांचेर ट्रिपल आनी पोलिओचे बुस्टर MMR हें हुरहुरें, गालगुटां आनी सुरसुऱ्याचें वासीन देड वर्साचेर करचें अशें भुरग्यांचे वैज सांगतात.

आतां टायफॉयड, जोर, कामीण, रॅबीस, हॅपटायटीस ह्या दुखण्यांवयलींय वासिनां आयल्यांत. वैजांचे सांगणे वयल्यान तींय भुरग्यांक दिवंक जाय.

**भुरग्याचे कुडीची नितळसाण :** भुरग्याक रोगांपसून वाटावपाक भोंवतणचो परिसर तशेंच ताचे कुडीची नितळसाण सांबाळप गरजेचें. ताका सदांच न्हाणोवंक जाय. ताचीं नाखटां वाडोवंक जायनात. ताका जेवंचे पयलीं वा संडासांत वचून येतकच हात-पांय धुवपाची संवय लावंक जाय. भायलीं खाणां, थंड पेयां पियेवपाची संवय केन्नाच भुरग्याक करची न्हय. ह्या खाणांक लागून भुरग्याक हागवण, टायफॉयड, कामीण असलीं दुखणीं जावंक शकतात.

भुरग्याक संडास, मुताच्यो बऱ्यो संवयो (Toilet Training) वर्स जातकच करपाक जाता. घरांत पॉटी (Pottie) चेर बसोवन भुरग्याक हागपाची संवय करप बरें. दोन वर्सांमेरेन भुरगो हांतरूणाचेर मुतता. बऱ्यो संवयो लायल्यार भुरगो हांतरूणाचेर मुतपाचो बंद जाता. ताच्या मनाचेर चड ताण पडल्यार ताका हांतुरूणाचेर मुतपाक जाता. अशा भुरग्याक हिणसायनासतना मोगान वागोवंक जाय. मुखेल म्हणजे हांतुरूणाचेर मुतलो म्हणून ताचीं फाकाणां वा तिरस्कार करपाक जाय ना.

- डॉ. अवधूत बोरकार

**बालसरस्वती -१ :** एक नामनेचो वैयाकरण आनी संस्कृत कवी. बालसरस्वतीची 'राघवयादवपांडवीय' ह्या म्हाकाव्याचो कर्तो म्हणून नामना आसा. हें पुराय काव्य त्र्यर्थी आसून तातूंत रामायण, महाभारत आनी भागवत हातूंतल्यो कथा आयल्यात. त्या काव्यांतलो दरेक श्लोक राम, कृष्ण आनी पांडव ह्या तिगांकूय लागू जाता. तेखातीर ही रचणूक श्लिश्ट आनी क्लिश्ट जाल्या. दोन अर्थ सामान्यपणान कळटात, पूण तिसरो कळपाक कठीण जाता. अशा काव्याची रचणूक करप म्हळयार प्रतिभेपरस कश्टांचें फळ आसा. देखुनूच पंडिती काव्यांत ह्या काव्याचो आस्पाव जाता.

हो कवी दक्षिणेंतलो आशिल्लो. हाणेंच चंद्रिकापरिणय नांवाचें आनीक एक काव्य बरोवन तें कोणा तरी वेंकटाद्री नांवाच्या राजाक ओंपलां.

- कों. वि. सं. मं.

**बालसरस्वती - २ :** एक कवी. आंध्र कवी नन्नय्य भट्ट हाचो शिपूश्य हाचो जल्म राजमहेंद्री गांवांत जालो. नन्नय्य भट्टाच्या आंध्रकौमुदीचेर हाणें टिका बरयल्या. ताणें अनिकूय कांय ग्रंथ बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बालसरस्वती - ३ :** एक तंतूवाद्य. ह्या वाद्याचो आकार मोराभाशेन आशिल्ल्यान ताका मयूरीताऊस वा मयूरसतार अशेंय म्हण्टात. धनुकलीन तें वाजयतात. वाद्य उबें दवरून ताचें वयलें तोंक मानेकडेन घेवन तें वाजयतात. ह्या वाद्याचो स्वर मृदु-मधुर आसता.

तंजाऊरचो बालसरस्वती जगन्नाथ भट्ट हो हें वाद्य वाजोवपाक प्रवीण आशिल्लो. ताचेवयल्यानूच ह्या वाद्याक हें नांव मेळ्ळें आसुंये.

- कों. वि. सं. मं.

**बालसाहित्य :** सादारणपणान चार ते सोळा वर्सां पिरायेचे बुद्दीक पचता अशें आनी तांकां वाचनाची ओड लावपी साहित्य म्हळयार बालसाहित्य. बालसाहित्य हें समाजांतल्या वट्ट साहित्याचो एक वाटो हें खरें, पूण भुरग्यांच्यो जाणविकायो वेगळ्यो आसतात. भासो आनी *भावनाय वेगळ्यो आसतात. हाका लागून* बालसाहित्यांतले आशय आनी अभिव्यक्ती हांचेंय स्वरूप वेगळें थरता. अद्‌भूतरम्यताय, हास्यकारकताय, कल्पनासौंदर्य, सुबोध आनी नादमधुर भाशाशैली हेसारके खाशेले गूण बालसाहित्यांत चड करून दिश्टी पडटात. मनोरंजन, उद्‌बोधन आनी *भुरग्यांचे तीक्ष्ण उमळशिकेचे बुद्दीचें समाधान हे* सारक्यो प्रेरणा बालसाहित्याचे निर्मिती फाटल्यान आसूंक जाय.

बालसाहित्याची व्याप्ती व्हड आसा. कथा, कविता, नाटिका हे सारके सगळे साहित्यप्रकार तातूंत मेळटात. ल्हान पिरायेच्या वाचप्यांखातीर बरयल्ल्या सगळ्या प्रकारांच्या पुस्तकांचो हातूंत आस्पाव जाता. कांय खेपे जाण्ट्यांखातीर निर्माण जाल्ल्या पूण भुरग्यांकूय फावो जाता अशाय पुस्तकांचो तातूंत आस्पाव जाता.

हेर सगळ्या साहित्याप्रमाण बालसाहित्याची सुरवात लेगीत मौलिक कथनपद्दतीन जाली. लोकां-काणयो म्हळयार आजयेन वा आज्यान सांगिल्ल्यो काणयो, आवयन भुरग्याक जेवण लायतना वा खेळयतना म्हणपाखातीर रचिल्लीं बडबडगीतां, चांदीमामा वा कावळेकाकाच्यो काणयो ही आयच्या बालसाहित्याची बुन्याद. ही मौखिक परंपरा मुद्रणकला उदयाक येमेरेन चालंत आशिल्ली. दर एका देशांत वा राज्यांत ह्या प्रकाराचें बालसाहित्य अस्तित्त्वांत आसा. इंग्लीश भाशेंतलीं नर्सरी रायम्स म्हळयार बालगीतां. देखीक -जॅक अँड जिल, मराठी भाशेंतलें अडगुलं-मडगुलं आनी कोंकणी भाशेंतलीं बाबूचें लग्न आनी हेर बडबडगीतां नामनेचीं आसात. अस्तंती देशांनी बालसाहित्य हो एक स्वतंत्र साहित्य प्रकार म्हणून ताचो विचार अठराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दाकसावन जावंक लागलो.

भारतांत एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक मुद्रणसंस्था आयल्यो. उपरांत मुळाव्या शाळांची स्थापणूक जातकच शाळेंत शिकोवपाखातीर पुस्तकां बरोवपाक लागले. तातूंत भुरग्यांखातीर स्वतंत्र वा अनुवादीत अशीं साबार पुस्तकां बरयलीं. कांय राज्यांनी भुरग्यांखातीर सातोळीं वा म्हयनाळीं लेगीत येवपाक लागिल्लीं. ह्या म्हयनाळ्यांनी कथा, कविता, चरित्रां, विनोद आनी हेर विंगड विंगड बालसाहित्याचे प्रकार वेगळ्या वेगळ्या लेखकांनी मांडिल्ले.

बालसाहित्याच्या विकासाचे सुरवेच्या काळांतलें साहित्य मुद्दाम भुरग्यांखातीर बरोवंक नाशिल्लें. प्रौढ साहित्यांतलें भुरग्यांक मानवता अशें साहित्य कुशीक काडून तें भुरग्यांच्या मुखार दवरिल्लें. इसापाच्यो बोधकथा, पंचतंत्र, रामायण, महाभारत आनी हेर पुराणांतल्या वेंचीक कथांचें संस्करण हातूंत जाता. अस्तंती साहित्यांतूय हेचप्रमाण हर्क्युलिस हाच्यो धाडसाच्यो काणयो, राजा आर्थर आनी ताचे सरदार हांच्यो काणयो, रॉबिनहूड आनी हेरांचीं संक्षिप्त संस्करणां बालसाहित्य म्हणून नामनेक पावलीं.

*विसाव्या शेंकड्यासावन बालसाहित्याक एक नवी दिका मेळून* बालसाहित्याक नेट येवपाक लागलो. अस्तंती देशांतल्या लेखकांच्या व्हड कादंबऱ्यांचीं संस्करणां भुरग्यां खातीर उजवाडाक येवपाक लागलीं. स्टीव्हन्सन हाचें ट्रॅझ्यर आयलँड, चार्ल्स डिकन्साचें ऑलिव्हर ट्विस्ट *आनी डेव्हीड कॉपरफिल्ड, मार्क ट्वेनाचें टॉम सॉयर आनी हेर पुस्तकांच्यो* संक्षिप्त आवृत्त्यो आयज लेगीत भुरग्यांभितर नामनेच्यो तशोच आवडिच्योय आसात.

दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत भुरग्यांखातीर खोलायेन स्वतंत्र लिखाण करूंक जाय हे कल्पनेचो प्रसार जावपाक लागलो. परिकथा, अदभूतरम्य कथा आनी हेर स्वतंत्र साहित्याची निर्मिती जावपाक लागली. ह्या काळांत बालसाहित्याक कादंबरी, नाट्य, काव्य, इतिहासीक वा समाजीक कथा, लोककथा, चरित्र हांच्यो आंकऱ्यो फुटल्यो. बालसाहित्याचो विकास जालो तशें ताचे शास्त्रशुध्द जडणघडणुकीकडेन चिकित्सक लेखकांचे दोळे लागले. बालमानसशास्त्र, भुरग्यांचे मनोविकासाचे पांवडे, ग्रहणशक्तीच्यो कक्षा हांचो अभ्यास जावपाक लागलो. कसलेच तरेचे वायट संस्कार भुरग्यांच्या मनाचेर जावंचे न्हय हे खातीर भुरग्यांखातीर आशिल्ल्या साहित्याचे मानदंड खंयचे आसूंक जाय हें थरोवन तेप्रमाण शिशू (सुमार ४ ते ८ वर्सांचे पिरायेचीं भुरगीं), बाल (सुमार ८ ते १२ वर्सांचे पिरायेचीं भुरगीं) आनी कुमार (सुमार १२ ते १६ वर्सांचे पिरायेचीं भुरगीं) अशा तीन गटांनी बाल साहित्य विभागलां. आतां ह्या तिनूय गटांखातीर स्वतंत्र साहित्यनिर्मिती जावंक लागल्या.

पयल्या वा शिशू गटांतल्या साहित्यांत सोंपीं आनी ल्हान ल्हान वाक्यां, वाक्यांतलो नाद, लय आनी ताल हांचेर चड भर दिल्लो आसता. असल्या वाक्यांतल्या तालाक लागून आनी सोंपे भाशेक लागून तीं भुरग्यांक खूब आवडटात. तेच प्रमाण तांच्या ल्हानपणासावन वळखीच्यो माऊ, चिऊ, काको, कुतू आनी हेर प्राणीय तांकां खूब आवडटात.

बालगटांतल्या भुरग्यांची ओड अद्‌भूत साहित्याकडेन चड आसता. हातूंत परीकथा, लोककथा आनी इतिहासीक काणयांचेर भर दिल्लो आसता. हातूंत ड्रॅगन, परी, चेटकीण, राकेस आशिल्ल्यान ह्यो काणयो सु. ८ ते १२ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांक खूब आवडटात. सैमनिर्मितीची उमळशीक भुरग्यांभितर ह्याच सुमाराक जाता. हाका लागून झाडां-पेंडा, फळां-फुलां, सरभोंवतणचीं मनशां, रानटी मोनजात, न्हंय ह्या विशयांवयल्यो काणयो वा कविता तांकां आवडटात. कुमार गटांतल्या (१२ ते १६ वर्सां) भुरग्यांक संवसाराचें वास्तवीक दर्शन जाय आसता. हे पिरायेंत तांकां लोककथांतलें साहस आनी शौर्य आवडटा. देखीक- एका तरणाटयान राजकन्येक राकेसाच्या चपक्यांतल्यान सोडयली. हे पिरायेंत कथा, कादंबरी हांची आवड तांचेमदीं निर्माण जाता. साहस आनी शौर्य हांचें चित्रण करपी कथा-कादंबऱ्यांची आवड हे पिरायेच्या भुरग्यांभितर निर्माण जावप हें स्वाभावीक. हाका लागून ज्यूल व्हॅर्नसारकिल्ल्या अस्तंती लेखकांच्यो काल्पनीक सोद-साहसांच्यो कादंबऱ्यो तांकां आवडूंक लागतात. झूजकथा ह्यो शौर्य आनी देशाभिमान जाग्यो करपी आशिल्ल्यान प्रसिध्द इतिहासीक घडणुको, प्रसंग, व्यक्ती हांचेर आदारिल्ल्यो कादंबऱ्यो लेगीत कुमारांक खूब आवडटात.

**चित्र सजावट :** नव्यानूच अक्षर वळख जाल्ल्या भुरग्यांक उतरांनी गुंथिल्लो अर्थ वा आशय फकत उतरांनीच कळपाक खूब कठीण आसता. अशा वेळार अर्थ कळपाखातीर प्रभावी अशा चित्राची गरज आसता. भुरग्यांच्या मनाचेर कथात्मक आशय परिणामकारकपणान उदेवपाखातीर उतरांपरस चित्रांचीच चड गरज आसता. हाका लागून बालसाहित्य सचित्र आसचें पडटा. उतरां नासतना लेगीत चित्रां आशय कथन करतात.

भुरग्यांचे पिरायेप्रमाण जशें साहित्य बदलत रावता, तशीच चित्र सजावटूय बदलत रावता. सुरवेचें बालसाहित्य म्हळयार पुरायपणान चित्रकथाच आसतात. जांकां वाचूंक/बरोवंक येना अशा भुरग्यांक बडबडगीतां आनी गजाली हांची वळख कथन पाठांतर रुपान तशेंच चित्रां दाखोवन करून घेवंची पडटा. सादारणपणान पांचव्या वर्सासावन शिक्षणांत विशदीकरणाखातीर चित्रांचो उपेग करचो पडटा. एक व्हड प्रसंगचित्र आनी सकयल फकत दोन वा तीन ओळींनी कथानिर्देश अशे पद्दतीन तयार केल्लीं पुस्तकां सादारणपणान चार ते आठ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांखातीर आसतात. परींचीं, पानांफुलांचीं म्होवाळ पदां आनी मोनजात, सवण्यांच्यो मजेशीर काणयो ल्हान पिरायेच्या भुरग्यांक चड आवडटात. पळयना फुडेंच भुरग्यान पुस्तक आपणें जावन हातांत घेवंचें आनी तें उकतें करून तातूंत मग्न जावंचें इतल्या आकर्शकपणान त्या पुस्तकाची सजावट करप भोव गरजेचें आसता. बाल साहित्यांत लेखकाक जसो उतरांनी जीव हाडचो पडटा, तेच रितीन चित्रकाराक कोर, ओळी, आकार आनी सुवात हातूंत जीव हाडचो पडटा. हांचेखेरीज लेखकाक आपल्या उतरांतल्यान जो आशय मांडपाक शक्य ना, तांचो अर्थ वा आशय चित्रकार आपल्या चित्रांतल्यान दाखोवंक शकता. उतरां आनी चित्र हांचोय मेळ जावप गरजेचें. पदांतले वा काणयांतले प्राणी आनी वस्तू भुरग्यांचे सांगाती म्हणून येतात. अशा पदांनी वा काणयांनी तांचे कुडीची जडणघडण मनशाच्या अवयवां भाशेन दाखोवंची पडटा. उठून दिसपी आनी चकचकीत रंगांचो वापर करून, वस्तूचें वस्तूपण तशेंच दवरून ते वस्तूविशींचें पूर्ण गिन्यान दिवप हें चित्रकाराचें मुखेल काम.

सादारणपणान आठ ते बारा वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांखातीर अद्‌भुततायेची आवड चड आसता. ही अद्‌भुदतताय पंचतंत्र, इसापनिती तशेंच परंपरागत जादवाच्या काणयांनी मेळटा. सादारणपणान बारा ते सोळा वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांभितर अद्‌भूततायेपरस पराक्रमान भरिल्ल्या आनी साहसी कथानकाची आवड निर्माण जावपाक लागता. ह्याच तेंपार जिवितांतल्या खऱ्या वास्तवाचें भान ताका येवपाक लागता. ह्या वेळार चित्रणांतलो तपशील वाडोवन तें चड वर्णनात्मक करचें पडटा. हांगा वाङ्‌मयीन तपशीलूय वाडत वता. हे पिरायेंत नैतिक प्रेरणा, धैर्यशीलता, धाडशीवृत्ती हांचेर भर दिवंचो पडटा. अशें करतना कल्पनाजलाचो आलाशिरो घेवन तातूंतले अनुभव सुखद करचे पडटात. ताका लागून तांचेकडेन बालमन आपसुकूच एकरूप जाता.

आधुनिक सचित्र बालसाहित्य युरोप अमेरिकेंतल्यान भारतांत आयलें. तीनशें वर्सांपयलीं युरोपांत भुरग्यांखातीर म्हणून 'हॉर्न बूक' ह्या नांवान वळखतलीं पुस्तकां येवपाक लागलीं. उपरांत ल्हान प्रायमर्स पुस्तकांचें लिखाण जालें. मुखार धर्मीक आनी बोधपर कथा आनी आंगार कांटो फुलोवपी साहसकथा उजवाडा येवपाक लागल्यो. भुरग्यांच्या आवडिच्या पुस्तकांचो अदमास लेखक/प्रकाशकांक येवपाक लागलो. हाका लागुनूच बालसाहित्याची उदरगत जावंक पावली. भारतांत 'इंडिया बूक हाऊस' सारकिल्यो संस्था मुखेलपणान सचित्र बालकथा उजवाडाक हाडपाचें काम करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बालहत्या :** जल्माक येतकच रोखडेंच भुरग्याक जिवें मारप हाका बालहत्या वा अर्भकहत्या अशें म्हण्टात. बालहत्या करपाची ही चाल मध्ययुगीन भारतांत व्हड प्रमाणाचेर चलताली. चली जल्माक येनाफुडें तिका मारून उडोवपाची ही चाल ब्रिटीश अधिकाऱ्यांनी खूब यत्न करून बंद केली.

बालहत्त्येचें स्वरूप खाजगी आशिल्ल्यान ह्या गुन्यांवाकडेन समाजाचें चडशें लक्ष वचनाशिल्लें. कांय राजपूत जमातींनी एकाच वंशांतल्या कुटुंबांत लग्नसंबंद जायनाशिल्ले. लग्नसुवाळो खूब खर्चीक आसतालो. ताका लागून चलयेक योग्य असो न्हवरो सोदून तिचें लग्न करून दिवप खूब कठीण जातालें. चलयेचें लग्न केलेंना जाल्यार समाजीक प्रतिश्ठा

उणी जाताली. ह्यो सगळयो उडचणी येवंच्यो न्हय म्हणून चली जल्माक येनाफुडें तिका मारताले. एक तर आवय आपले जाल्ले चलयेक आपलें दूद दिना आसली, ना जाल्यार दूद दितना थानांक अफूभाशेन पदार्थ लायताली. कांय खेपे हाचेपरस भयानक अशो पद्दती वापरताले. रणजीत सिंग हाचो पूत महाराज दलिप सिंग हाणें म्हळां, तो ल्हान आसतना ताच्या भयणींक जल्मनाफुडें साकांत घालून न्हंयेंत शेंवटून उडयिल्ल्याचें ताणें स्वताच्या दोळयांनी पळयलें.

इ. स. १७८९ ही बालहत्येची चाल उजवाडाक आयली. बनारस प्रांतांतल्या 'राजकुमार' आनी 'राजबन्सी' ह्या दोन राजपूत जमातींनी ही पद्दत आशिल्ली. इ. स. १७९५ आनी इ.स. १८०४ च्या कायद्यांनी 'बालहत्या' म्हळयार खून अशें जाहीर करून लेगीत ही पद्दत चालूच आशिल्ली. कच्छ आनी गुजरातांतल्या जडेज राजपुतां भितरूय ही पद्दत आशिल्ली. एक लाख पंचवीस हजार जडेज कुटुंबांतल्यान सुमार वीस हजार चलयांक दर वर्सा जल्मले बरोबर मारताले अशें म्हण्टात. जयपूर आनी जोधपूरांतल्या राठोड राजपूतांभितर तशेंच जाट आनी मेवटींभितरूय बालहत्त्येची चाल आशिल्ली.

भारतीय दंडसंहितेंतल्या कलम ३१५ आनी ३१६ प्रमाण जो मनीस भुरगें जल्मुचेपयलीं, कसलेंय अशें कृत्य करता जाका लागून भुरगें जितें जल्मुपाक आडखळ जातली वा जल्मल्यार तें मरतलें आनी अशे तरेचें कृत्य आवयचो जीव वाटावपाचे भावनेन केल्लें नासल्यार तो बेकायदेशीर गर्भपाताचो गुन्यांव थरता. अशा गुन्यांवकाराक चडांत चड धा वर्सां ख्यास्त वा दंड वा दोनूय ख्यास्ती फर्मायतात. हालचाल करपी गर्भस्थ भुरग्याक मारल्यार ताका धा वर्सां खास्त वा दंड फर्मायतात. आवय, बापूय हांचेभितरल्या कोणेंय बारा वर्सांसकयल्या भुरग्याक सोडल्यार ताका सात वर्सां खास्त वा दंड वा दोनूय खास्ती दितात आनी त्या भुरग्याक मरण आयल्यार तो गुन्यांवकारी खुनी थरता. कायद्याचे नदरेन पळयल्यार भारतीय दंड संहितेन जाण्टो मनीस, नेण्टो मनीस आनी भुरगें हांचे हत्येंत फरक करूंक ना. गर्भांतल्यान भायर आयिल्ल्या जित्या-जिव्या भुरग्याक मारल्यार तो खून थरता. आधुनिक काळांत, कुटुंब येवजणीचें म्हत्व मतींत घेवन काय देशांनी आपखोशयेन केल्ल्या गर्भपाताक कायद्यान मान्यताय दिल्या.

**पूरक नोंद :** गर्भपात.

- कों. वि. सं. मं.

**बाली नाच :** इंडोनेशियांतल्या बाली जुंव्यावयल्या लोकांचे दीसपट्टे जिणेंत म्हत्वाची सुवात मेळयल्लो एक नाच. ह्या लोकांमदीं जल्म, लग्न, मरण ह्या सारक्या घडणुकांवेळार तशेंच देवळांतले धर्मीक उत्सव, गांवांतल्यो जात्रा आदी भौशीक कार्यां वेळार रातभर नाच सादर करपाची प्रथा आसा. आख्यायिकेप्रमाण बाली नाचाचो उगम इंद्र देवाकडेन संबंदीत आसा. तरी बाली नाचांत हिंदू संस्कृतायेचो प्रभाव कांय प्रमाणांत दिसता. पुर्विल्ल्या धर्मविधींतल्यान ह्या नाचाचो उगम जालो. हेविशीं तज्ञांचें एकमत आसा. ह्या लोकनाचांत वांटो घेवपी नर्तक हे चडशे शेतकामती वर्गांतले आसतात. हे लोक प्रशिक्षक वा वेवसायीक नतर्क नासुनूय तांची नाचपाची कला तोखणाय करपासारकी आसता.

बाली नाचांतल्यान रामायण, महाभारत आदी महाकाव्यांनी आयिल्ल्या देवदेवतांच्यो आनी वीर पुरसांच्यो कथा अभीनीत करतात. ह्या नृत्यनाट्यांतल्या हिंदू अप्सरांबदला 'दोहेरी' (बालीनीज देवता) ह्यो नायक अर्जुनावांगडा नाच करतात. बाली नाचाचे मुखेल चार प्रकार अशे आसात. लेगाँग, जानगर, सांघयांग आनी केतजाक.

**लेगाँग :** जायत्या शतमानांसावन चलत आयिल्लो हो नामनेचो आनी ओडलायणो नाचाचो प्रकार. दोन चलयो भांगराची झांक आशिल्लो भेस करून, फुलांनी सजयल्ले मुकूट घालून आनी हातांत आयणे घेवन हो नाच करतात. ह्या नाचांत मुकाभिनय आनी गतिमान हालचालींक म्हत्व आसता. हो नाच चालू आसतना दालांग (सुत्रधार) नाचाच्या दर एका आविश्काराचेर उलोवप करतात. ह्या नाचाखातीर खोल अभ्यासाची गरज आसता. 'जोगेद' (Djoged) हो लेगाँगाचोच एक आर्विल्लो प्रकार. हातूंत एक चली लेगाँग नाच करता आनी पळोवप्यांमदले तरणाटे आखाड्यांत येवन तातूंत वांटो घेतात.



**जानगर :** (Djanger) ह्या नाचांत चल्यांच्यो दोन रांको एकामेकांमुखार बसतात. चलयो चौखणाच्यो उरिल्ल्यो दोन रांको पूर्ण करतात. हातूंत कोरस स्वरांत पदांच्यो ओळी म्हणून, बशिल्ल्या जाग्यावयल्यानच हावभाव करतात. प्रत्यक्ष नाच चौखणाचे भितल्लेवटेन आसता. नाचाची सुरवात करप्याक दाग अशें म्हण्टात.

**सांघयांग :** ह्या नाचांत चलयो भार आयिल्लेवरी नाचतात. ह्या वेळार तांचेभितर अतिमानवी शक्तीचो संचार जाता अशें मानतात.

**केतजाक :** ह्या वानर नाचांत व्हडा संख्येन दादले नाचपी वांटो घेतात. ह्या नाचाचो विशय म्हळयार रामायणांतले कथाप्रसंग आसतात.

ह्या नाचाभायर बाली वाठारांत हेर जायते नाचाचे प्रकार पळोवंक मेळटात. तातूंत 'गॅबॉर' ह्या नृत्यनाट्यांत आठ तरणाट्यो सोबीत कोन जावपी मोडणां घेत नाचतात. 'पेनचाक' हो त्रुटीत स्वरुपाचो नाच. तातूंत आत्मसंरक्षणकलेचो प्रकार पळोवंक मेळटा. पूण ह्या नाचाचें मूळ स्वरूप काळावांगडा बदलत गेलां. 'केबियार' हो परंपरेंतल्यान आयिल्लो नाचाचो आर्विल्लो प्रकार. ह्या जुंव्यार तोंडाक मुखीं घालुनूय नाच करतात. तशेंच उच्च कुळांतलो मनीस दाखोवपाक हळदुवो, रागीट मनीस दाखोवपाक तांबडो रंग, आस दाखोवपाक मोटे वटवटे दोळे, अशीं मुखीं वापरतात. 'टोपेंग' ह्या नाचाप्रकारांत दोन-तीन पात्रांच वेगवेगळीं मुखीं घालून सगळयो भुमिका करतात. ह्या नृत्यनाट्याखातीर वालीचो राजकी इतिहास वा आख्यायिका हे विशय घेतात. 'अर्दजा' हो प्रणयाचेर आदारीत संगीतिकेचो प्रकार. ताचे विशय बालीच्या अद्भुतरम्य इतिहासीक परंपरेतल्यान घेतिल्ले आसात. बाली नाचाचें एक ठळक खाशेलपण म्हळयार अखंड परिवर्तनशीलताय. देखून खंयचोय नाचाचो प्रकार थीर आशिल्ल्याचें दिसना. पोरन्या नाचाचीं रूपां काळाच्या ओघात बदलत वतात वा नाचाचीं नवीं रुपां निर्माण जातात. जायते फावटी दादले, बायलांचे भुमिकेत नाच करतात जाल्यार बायलो दादल्यांचो नाच करतात.

ह्या नाचांक तशेंच खंयच्याय शुभकार्याक पुरायतरेन आघातप्रधान वाद्यांनी भरिल्ल्या अशा 'गेमलन' संगीताची साथ आसता. ह्या वाद्यांत थाळयाचो आनी धातूपसून तयार केल्ल्या हेर वाद्यांचो आस्पाव आसता.

- कों. वि. सं. मं.

## बाल्झाक, ऑनरे दः (जल्म : २० मे १७९०, तूर ; मरण : १८ ऑगस्ट १८५०, पॅरिस).



संवसारीक नामनेचो फ्रेंच कादंबरीकार. बालस्सा आडनांवाच्या शेतकार घराब्यांत ताचो जल्म जालो. कायद्याचो अभ्यास केल्लो ताचो बापूय सोळाव्या लुई आनी नेपोलियनाच्या काळांत प्रशासकीय अधिकारी आशिल्लो. ताचें शालेय शिक्षण व्हेण्डोम आनी पॅरीसांत जालें. आपले आवयवरीच ताका गूढविद्या आनी संमोहनशास्त्राविशीं आकर्शण आशिल्लें. भुरगेपणासावन ताका साहित्याविशीं ओड आशिल्ली. आपले शालेय जीणेंत ताणें कांय कविता बरयल्लो.

ताची पयली कादंबरी फाल्युर्न (Falthurne) १८२० त तशेंच stenie हें तत्त्वचिंतनपर लेखन उजवाडावपाबगर आसा. उपरांत ताणें टोपणनांवान कथा रचूंक सुरवात केली. १८२६ वर्सासावन ताणें प्रकाशनाचो धंदो सुरू केलो. पूण तातूंत ताका यश मेळ्ळेंना. तो स्वता मुद्रक-प्रकाशक जाल्लो. पूण ताका अर्थीक अडचणींक तोंड दिवंचें पडलें. रिणाचो दोंगर पयस करपाक ताणें कांय ग्रंथ बरयले. ताणें स्वताच्या नांवार 'ल देर्नियेर चोआन (Le Dernier chouan, १९२९) ही फ्रेंच इतिहासाचेर बरयल्ली कादंबरी उजवाडा हाडली. हे कांदबरेचेर त्या काळांतल्या परगणा आनी राजधानींतल्या झुजाचें प्रतिबिंब पडिल्लें. १८३० वर्सा ताणें बरयल्ल्या स कथांक लागून तशेंच लग्नाच्या मानसशास्त्रावयल्या निबंधांक लागून ताका बरीच नामना मेळ्ळी. तेचवांगडा उच्चभ्रू वर्गांतल्या बायलांच्या लफड्यांत तो घुसपून गेलो. मादाम ईन्सका आनी ताचे मदल्या मोगा चिटयांची खूब नामना जाली. उपरांतच्या काळांत तीन वर्साभितर ताणें वीस कलाकृती घडयल्यो. तातूंतल्यो मुखेल कादंबऱ्यो अशो : लुई लाम्बॅर्त (१९३२), ले मेदिसिन द कॅम्पेन (१९३३), युजेन ग्रॅण्डेट (१९३३), ल रेश्चेर्चे द लाब्सीलू (१८३४), ल पेरे गोरिट (१९३५), ल लीस दां ला व्हॅली (१९३६); कथा संग्रह : कॉलॉनॅल शाब्रे (१९३२), ल क्युरे द तूर (१९३२), ला फाम अबॅन्डनी (१९३२); नाट्यत्रयीः लिश्तुआर दे त्रीझे (१९३५); संगितिकाः सेराफिटा (१९३५). हांचेभायर नेमाळयां खातीर बरयल्ल्या लेखांचेय संग्रह आसात.

निरिक्षण आनी भरपूर वाचन हांकां लागून क्रांतीउपरांतच्या फ्रेंच समाजाचें चित्रण गद्य लेखनांत समर्थपणान करपाक ताका यश मेळ्ळें. ताणें आपले 'उजे तेनेब्रेयुस अफॅर' (१८४१) हे रहस्यमय कादंबरेंत पयल्या नॅपोलियनाचे कारकिर्दीचें चित्रण केलां.

पॅरीसांत कायद्याचो अभ्यास करून नोटरी जातकच ताका जो अणभव आनी गिन्यान मेळ्ळें ताचें पडबींब ताच्या कॉलॉनॅल शाब्रे, ल कॉंत्रात द मॅरीज आनी केसार बीरो त्यू ह्या कथांनी दिश्टी पडटा.

बाल्झाकाची जीण भोवरंगी, भोवढंगी आशिल्ली. ताचीं जायतीं प्रेमप्रकरणां गाजलीं. ह्याच काळांत ताणें मॉडॅस्ट मीगगॉन (१८४४) हें काव्य रचलें आनी ले पेसांस (१८४४) ची सुरवात केली. ताच्यो निमाण्यो दोन अद्वितीय कलाकृतीः ला कुझां बेड्ट आनी ला कुझां पॉंस ग्रंथरुपांत उजवाडाक आयल्यो. ताच्या ला कॉमेदी युमां ह्या ग्रंथांत दान्तेच्या 'डिव्हायन कॉमेडी' वरी जायत्यो गद्य कथा एकठांय हाडल्या आनी त्यो जायत्या खंडांनी उजवाडाक हाडल्यात. तांचें वर्गीकरण ताणें वेगवेगळया तरांनी केलां तें अशें-

१. आतित्युद्स द मॉस. (अर्थ : समाजीक चालिरिती आनी आचारविचार हांचो अभ्यास) २. आतित्युदस फिलॉसॉफिक (तत्त्वज्ञानात्मक अभ्यास) ३. आतित्युदस आनालितीक (चिकित्सात्मक अभ्यास).

पुराय फ्रेंच समाजाचें चित्रण कथा-कादंबऱ्यांनी करपाची ताची म्हत्वाकांक्षा उल्लेख करपा सारकी आसा. लेखन हो खुबूच कश्टांचो उद्देग आशिल्ल्याचे उल्लेख ताणें परत परत केल्यात. तंत्रशुध्द लिखाण करपाची ताची तळमळ ताणें आपल्या लेखनांत मुद्रणाउपरांत परत परत केल्ल्या बदलांवयल्यान स्पश्ट जाता. फ्रेंच भाशेवयलें ताचें प्रभुत्व, शैली घडोवपाची तरा, संवाद कुशळटाय ह्यो गजाली वादातीत आसात. फ्रेंच कादंबरेक साहित्यीक संस्कृतायेच्या उंचेल्या पांवड्यार हाडपाक जिणेच्या निमाण्या वर्सांत ताचो लेखनाचो ताण खुबूच वाडिल्ल्यान ताचे भलायकेचेर परिणाम जाल्लो. १८५० त तो मादाम हेन्सेका हिचेकडेन लग्न जालो. फ्रेंच अकादमीचे वेंचणुकेंत तो दोनदां हारलो.

मरणा उपरांत ताचीं जायतीं हातबरपां नश्ट जालीं. पूण चाल्र्स द स्पोएलबच द लोव्हेनजील ह्या बॅल्जियन संशोधकान ताचीं उरिल्लीं खूबशीं हातबरपां संग्रहीत केल्यांत. एम. बोटेरॉन आनी एच. लॉगनॉन हांणी चाळीस खंडांनी ताचें बरप उजवाडा हाडलां (१९१२-१९४०). ए. बेग्यून आनी जे. ए. ड्युकोर्न्यु हांणी सोळा खंडांनी (१९४९-५३) संपादीत केल्ले संग्रह आनी एम. बोटेरॉनचे 'द ह्युमन कॉमेडी'चे संपादीत (१९३५-१९६०) इकरा खंड उपेगी आसात. तशेंच परकी अभ्यासकाखातीर १९५७ वर्सा संपादीत जाल्ली ताच्या साहित्याची बोल्झाक सोसायटीन काडिल्ली आवृत्ती म्हत्वाची.

फ्रेंच भाशेंत बाल्झाकाच्या लेखनाच्यो संपादीत आवृत्त्यो, पत्रसंग्रह, चरित्रां, समिक्षाग्रंथ हांचीय संख्या व्हड आसा. देखीक- एस. द. लोव्हेनजील लिश्तुआर दे आयुवेर्स द ऑन्रे द बाल्झाक (१८८८) तीन आवृत्त्यो आयल्यात. डब्ल्यू. एच. रोईस. हाणें अे बाल्झॅक ग्रिब्लियॉग्राफी (१९२९-३०) दोन खंडांत तयार केली. ताच्या 'द ह्युमन कॉमेडी' चेर आदारीत पुरवणेसयत शब्दकोश (१९५६) तयार केला. ताच्या चरित्रग्रंथ आनी समिक्षा ग्रंथांची संख्याय खूब व्हड आसा.

- डॉ. आनंद पाटील

**बावकर, भास्कर शंकरराव :** (जल्म २१ ऑगस्ट १९३०, जालना-महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. गोंयचे सुटकेखातीर 'गोवा विमोचन सहाय्यक' समितीन दिल्ल्या उल्याखातीर ३ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा रत्नजीत ठाकूर हाच्या फुडारपणाखाल पेडण्यां जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार घाल्लो. २६ मे १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**बावटो :** यशाचें, मानाचें वा आदर्शाचें चिन्न. ऊंच दांड्याच्या तोंकाक कमळ, चक्र वा तत्सम अशें चिन्न आशिल्लो कपडो हुमकळावन बावटो तयार जाता. बावटो वापरपाक सगळयांत पयलीं कोणें आनी खंय सुरवात केली हाचो उल्लेख मेळना. पूण भारत आनी चीन हांचेकडल्यान बावटो लावपाची पद्दत अस्तंतेकडेन पावली आसूं येता अशें इतिहासावयल्यान दिसता. आर्विल्ल्या काळासावन मनशांचे पंगड आपलें वेगळेपण दाखोवपाखातीर विंगड विंगड चिन्नां वापरताले. फुडें दोन पंगडांतच संघर्श सुरू जातकच ह्या चिन्नांची चड गरज पडूंक लागली. ते गरजेंतल्यानूच फुडें बावट्याची येवजण जाली.

बावट्याक संस्कृत भाशेंत अक्रा, केतु आनी पताका अशीं नांवां आसात. मराठींत बावट्याक गुढी, झेंडा, दिंडी, ध्वज, पताका ह्या नांवांनी वळखतात जाल्यार हेर भाशांनी ताका अलम, कुर, निशान, फरारा, बाहुटा (बावटा) अशींय नांवां मेळटात. सेनासंघटनेच्या, घोडदळांच्या बावट्यांक इंग्लिशींत स्टँडर्ड आनी गिडन आनी हेर दळांच्या झेंड्यांक कलर्स अशें म्हण्टात. नौसेनेच्या ध्वजाक ध्वज वा एनूसिन म्हण्टात.

ध्वजाचो पट आनी ताचेवयले रंग, चिन्नां, चित्रां, वचनां आनी पटावयली तांची सुवात हांचेवयल्यान ध्वजाचें वेगळेपण दिसता. सुवाळो, संचलन, रक्षकालय आनी ध्वजप्रदान ह्या वेळार रस्मी ध्वज वापरतात. तो त्रिकोनी वा आयताकार आसता.

क्षात्रवर्गाचो उदय जातकच दर एक झुजारी आपलो स्वतंत्र ध्वज वापरपाक लागलो. देखीक-अर्जुनाचो कपिध्वज, कृपाचार्याचो वृषभध्वज, जयद्रथाचो वराहध्वज, दुर्योधनाचो गजध्वज, भीष्माचार्याचो तालध्वज, भीमाचो सिंहध्वज, द्रोणाचार्याचो कमंडलू, अश्वथामाची शींवाची शेंपडी, मौर्य सम्राटांचो मयूरध्वज आनी गुप्तांचो गरूडध्वज.

रणक्षेत्राभाशेन धर्मीक क्षेत्रांतूय ध्वजाक मानाची सुवात आसा. शंकराचो वृषभध्वज, विष्णुचो गरूडध्वज, दुर्गेचो सिंहध्वज, गणेशाचो कुंभध्वज वा मूषकध्वज, कार्तिकेयाचो मयूरध्वज, मदनाचो मकरध्वज अशे देवांचेय विंगड विंगड ध्वज आसात. शैव लोकांचो वृषभध्वज, वैष्णवांचो गरूडध्वज आनी शाक्त सिंहध्वज वापरतात.

कांय सुवातींनी देवतांचें प्रतीक म्हणून ध्वज वा बावटो उबारतात. बिहरांत महावीर (हनुमान) हाच्या नांवान ध्वजाची पुजा करतात.

संवसार पाडव्या दिसा घराचेर गुडी लायतात. तोय एक ध्वजूच.

धवो रंग शांतीचें प्रतीक मानतात. शरणांगतीची, झूजबंदीची आनी शस्त्रसंधीची निशाणी म्हणून धवो ध्वज वापरतात. तांबडो हो क्रांतीचो रंग आशिल्ल्यान साम्यवादी देश आनी पक्ष हो ध्वज वापरतात. तेचखातीर 'लाल बावट्याचें राज्य' वा 'लाल बावटो' हे शब्दप्रयोग राजकारणांत प्रचलीत जाल्यात. पाचवो रंग हो इस्लामाचो प्रतिनिधी रंग म्हणून वळखतात जाल्यार केसरी रंग हो शौर्य आनी त्यागाचें

प्रतीक मानतात. बोधरंग वापरपाचें एक शास्त्र युरोप खंडांत विकसीत जालें. युरोपीय राश्ट्रांचे ध्वजरचणुकेंत ह्या शास्त्रांचे नेम तशाकतशे पाळटात.

मुहंमद पैगंबर हाचो ध्वज काळो आशिल्लो. फुडें उमय्या धवो, अब्बासी काळो, फातिमी पंथान पाचवो ध्वज आपणायलो. तेन्नासावन धवो, काळो आनी पाचवो हे रंग इस्लामी ध्वजरंग जाले. मस्कत आनी ओमान हांचे ध्वज तांबड्या रंगाचे आसात.



बावट्यांचे प्रकार

ऋग्वेदांतल्या उल्लेखांवयल्यान इ.स.प. २०० वर्सांसावन भगव्या ध्वजाची परंपरा सुरू जाली. पराक्रम, अपरिग्रह, त्याग ह्या सद्गुणांचो भगवो रंग प्रतीक. देवगिरीचे यादव आनी विजयानगर साम्राज्य हांचे ध्वज भगवे आशिल्ले. भोसले कुळाचो भगवो ध्वज होच मराठी राश्ट्राचो राश्ट्रध्वज म्हणून शिवाजी महाराजान उबारलो.तो देवांचो आनी देवसेनेचो, सूर्यचिन्नाचो ध्वज आशिल्लो अशें हिंदूच्या धर्मीक साहित्यांत म्हळां. सगळ्या हिंदू देवळांचेर भगवो ध्वज आसता.

संघसत्तेंतल्यान फुडें राजसत्तेचो उदय जालो आनी ध्वज हें राजचिन्न थारलें.

राश्ट्रध्वज हो ध्वजांचो आर्विल्लो प्रकार. तेराव्या शेंकड्यांत तयार जाल्लो डॅन्मार्काचो राश्ट्रध्वज हो युरोपी देशांतलो सगळ्यांत पोरनो ध्वज. अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, अस्तंत जर्मनी हांचे गरूड, पुर्विल्ल्या चीनाचो ड्रॅगन (सपक्ष सोरोप),कंबोडियाचें मंदिर, थायलंड आनी लाओसाचो धवो हत्ती, आर्विल्ल्या ब्रह्मदेशाचो मोर, श्रीलंकेचो शींव, राश्ट्रीय चीनाचो सूर्य, जपानाचो उदेंतो सूर्य, नेपाळाचो सूर्य आनी चंद्र हीं ध्वजचिन्नां आसात. तशेंच आर्जेंटिना, उरुग्वाय, फिलिपिन्स हांच्या राश्ट्रध्वजांचेर सुर्याचें चिन्न आसता. चडशीं राश्ट्रां पट्यापट्यांचो राश्ट्रध्वज चड वापरतात. तातुंतूय तिरंगी राश्ट्रध्वजांची संख्या चड आसा. तिरंगी ध्वज हो स्वातंत्र्यध्वज आनी क्रांतीध्वज मानतात.

सोळाव्या शेंकड्यांत तिरंगी ध्वज पयलीं नेर्दलॅंडसांत वापरलो. विसाव्या शेंकड्यांत तो लोकसत्तेचें प्रतीक जालो. फ्रांसान स्वतंत्र जातकच तिरंगी बावटो आपलो ध्वज थरयलो. उपरांत विंगड विंगड राश्ट्रांनी तिरंगी राश्ट्रध्वज जालो. भारतानूय तिरंगी बावटो आपलो राश्ट्रध्वज मानलो.

राश्ट्रध्वज हो सगळ्यांत ऊंच सुवातेर लायतात. हेर राश्ट्रांचे ध्वज राश्ट्रध्वजांवांगडा लायतना हेर सगळे ध्वज समान उंचायेर लायतात. सगळ्या ध्वजांचें आकारमान सारकेंच आसचें पडटा.

एकवटीत राश्ट्रांचो ध्वज आसा. हो ध्वज लेव निळो आसता. ताचेर उत्तर ध्रुव हें केंद्र धरून संवसाराचो नकासो हें चिन्न रुपेरी रंगांत दाखयलां. ह्या नकाशाभोंवतणीं ऑलिव्ह झाडाच्यो दोन खांदयो दाखयल्यात. हो ध्वज २४ ऑक्टोबर ह्या एकवटीत राश्ट्रादिसा सगळ्या देशांनी लायतात.

रशियेन २३ फेब्रुवारी १९६६ दिसा चंद्राचेर पयलो अवकाश ध्वज (स्पेस फ्लॅग) लायलो. हो धातुपत्र्याचो त्रिकोनी ध्वज.

**भारतीय राश्ट्रध्वज :** स्वातंत्र्याखातीर जे क्रांतीवीर भारतीय तरणाटे युरोपांत काम करताले, तांकां आपल्या स्वतंत्र ध्वजाची गरज पडपाक लागली. तेन्ना श्रीमती कामा हे भारतीय बायलेन २२ ऑगस्ट १९०७ दिसा जर्मनींत स्टुटगार्ट हांगा भरिल्ल्या समाजवाद्यांच्या संवसारीक मेळाव्यांत एक तिरंगी भारतीय झेंडो म्हणून वापरलो. त्या बावट्याक केसरी, हळदुवो आनी पाचवो अशे तीन पटे आशिल्ले.

संविधान समितीन २२ जुलय १९४७ दिसा भारताचो राश्ट्रध्वज थरयलो.हो बावटो गाड केसरी, मदीं धवो आनी सकयल पाचवो अशा तीन पट्यांचो आसून मदल्या धव्या पट्याचेर गाड निळ्या रंगाचें २४ आऱ्यांचें धर्मचक्र आसा. ह्या चक्राक 'अशोकचक्र' अशें म्हण्टात.

तेभायर, लश्कर, पोलीस यंत्रणा, बालवीर संघटना, विद्यापिठां, समाजीक, राजकीय, अर्थीक, धर्मीक संघटणांचे आपापले वेगळे ध्वज आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**बावली :** मनशाच्या जिंत्रूप रुपाचें भुरग्यांचें खेळणें. मनीसजातीचें हें सगळ्यांत सुरवातीचें खेळणें. बावलेचो इतिहास मनीस जिणेइतलोच पोरनो. आदल्या काळार सावन बावलेक खेळपासाधना इतलेंच संस्कृतीक नदरेन म्हत्व दिल्लें. सान भुरग्यांच्या मनांत बावलेविशीं एक आगळीच सुवात आसा. बावलेक दूद पिवोवप, न्हाणोवप, तिचे केंस वळोवप, तिका उबी करप, बसोवप, चलोवप, आल्लय गावन न्हिदोवप अशो

क्रिया करून भुरगीं व्हड बायलांचें अनुकरण करतात.

पुर्विल्ल्या काळांत होंवरेंत रावपी आदि मानवान आपल्यो बावल्यो हाडां, लाकूड, फातर, माती अशा साद्या माध्यमापसून केल्ल्यो आसूंक जाय. सपाट लाकडांत कोरांतिल्ल्यो पोरन्यांत पोरन्यो बावल्यो पुर्विल्ल्या इजिप्शीयन लोकांच्या थड्यांनी (इ. स. प. सुमार ३०००-२०००) सांपडल्यात. इजिप्त, ग्रीस, रोम हांगा भुरग्यांच्या थड्यांनी बावली पुरपाची चाल आशिल्ली अशें समजलां.

ह्या पुर्विल्ल्या बावल्यांकडेन कांय धर्मीक संकेत जोडिल्ले आसात. सुफलताविधी, यातुविद्या आनी हेर धर्मीक विधी हांच्यांतलें एक संकेतीक उपकरण म्हणून खाशेले तरेच्यो बावल्यो वापरतात. कांय बावल्यो शुभशकुनाच्यो मानतात. त्यो बावल्यो पिकावळ आनी समृध्दी हाडपी, तशेंच झुजांत जैत मेळोवन दिवपी, पिडेस्तांक बरें करपाचें बळगें आशिल्ल्यो मानतात. त्या काळांत मनशाचो भुतां, मंत्रतंत्र, जादू हांचेर विश्वास आशिल्ल्यान दुस्मानाक ख्यास्त जावंची हे इत्सेन मेणाची बावली करून दुस्मानाचे कुडीचेर जंय जंय त्रास जावंचो अशें दिसतालें, थंय थंय पिनी तोपपाची पद्दत कांय समाजांनी अजुनूय रूढ आसा.

सोळाव्या शेंकड्याच्या मध्यासावन नमुनो म्हणून बावल्यांचो उपेग करपाक सुरवात जाली. पॅरीस हें नव्या नव्या भेसांचें केंद्र आशिल्ल्यान वेगवेगळया भेसांनी सजयल्ल्यो बावल्यो थंय निर्यात करताले.



बावल्यांचे प्रकार

बावलेची निर्मिती बायलरुपाक अनुसरून जाल्या, अशें पुर्विल्ल्या काळांतल्या चिन्नांवयल्यान कळटा. त्या मानान दादलेरुपी बावल्यो उण्या प्रमाणांत दिसतात.

लांकडी बावल्यो घट आनी खडबडीत आशिल्ल्यान सतराव्या शेंकड्यांत तिरांटे, भुसो हांचेपसून बावल्यो करूंक लागले. उपरांत मेणाच्यो आनी खरे केंस लायिल्ल्यो बावल्यो आयल्यो.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत इंग्लंडांत मेणाचीं तोंडां आशिल्ल्यो सोबीत बावल्यो तयार जावंक लागल्यो. ह्यो बावल्यो उज्या म्हऱ्यांत व्हेल्यार विद्रूप जाताल्यो.

संवसारांतल्या वड्ड उत्पादनांतल्यो अर्दापरस चड बावल्यो पयल्या म्हाझुजामेरेन जर्मनींत तयार जाताल्यो. फ्रांसांत चलपी, उलोवपी, दोळे हालोवपी तशेंच बरोवंक जाणा आशिल्ल्यो आनी बांसरी वाजोवपी यांत्रिक चकत्यांचो वापर करून बावल्यो तयार करताले.

बावल्यो तयार करपाक लाकूड, माती, कापूस, तिरांटे, तण, कणसाचीं सालपटां, भुसो हे सारक्या साद्या वस्तूंपसून आर्विल्ल्या रबर, प्लास्टीक 'सेल्युलॉयड' सारक्या वस्तूंपसून जायतीं कृत्रीम आनी सैमीक माध्यमां वापरतात. एकुणिसाव्या शतमानाचे सुरवेक कागदी लगद्यापासून बावल्यो तयार करपाक सुरवात जाली आनी तेन्नासावन बावलेच्या उत्पादनाक व्हड प्रमाणांत चालना मेळ्ळी.

भारतांत बावल्यांचे खूब प्रकार दिश्टी पडटात. तशेंच, त्या त्या प्रांताचीं प्रदेशीक खाशेलपणां आनी भेस बावलेंत दिश्टी पडटा. बावल्यांच्या आदारान तरेकवार देखाव आनी प्रसंग उबारून तांचें प्रदर्शन भरयतात. भारतीय खाशेलपण दाखोवपी बावल्यो परदेशांतूय निर्यात जातात. आदल्या काळांत जेन्ना भारतांत बालविवाहाची चाल आशिल्ली तेन्ना व्हंकलेक बावली दिवपाची चाल आशिल्ली. कटपुतळी बावल्यांचो खेळ (Puppet show) करपाक ज्यो बावल्यो वापरतात, तांकां खामसुत्री बावल्यो म्हण्टात. तांचे जायते प्रकार आसतात. जपानांत दर वर्सा थंयच्यो चलयो 'हिना-मात्सुरी' नांवाचो बावल्यांचो उत्सव मनयतात. दिल्लीक 'शंकर्स इंटरनॅशनल डॉल्स म्युझियम' ची नामना आसा. तातूंत भारतीय तशेंच परदेशी नमुन्यांच्यो सुमार २००० बावल्यो आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**बास्केटबॉल** : हो आधुनीक खेळ अमेरिकेंत स्प्रिंगफिल्ड (मॅस्साच्युसॅटस्) च्या वाय. एम. सी. ए. (Y. M. C. A.) कॉलेजीचो खेळां शिक्षक जेम्स नेस्मिथ हाणें १८९१ वर्सा सोदून काडलो. हजारांनी वर्सांपयलीं बास्केटबॉला असलोच पोक-ता-पोक हो खळ मेक्झिकोंत ऑलमॅक्साक खेळटाले. मळावयल्या खेळांक पूरक असो शिंयाळ्या

ऋतूंत बंद जाग्यार, खेळगड्यांक खूब व्यायाम दिवपी आनी मनोरंजक असो खेळ तयार जावंचो ह्या हेतान बास्केटबॉल खेळाचो उगम जालो.

खेळांशिक्षक जेम्स नेस्मिथ हाणें व्यायामशाळेच्या एकमेकांसामकार आशिल्ल्या दोन वण्टींचेर सुमार तीन मीटर उंचायेचेर लांकडी पांटले (बास्केट) बांदून फूटबॉल घेवन हो खेळ खेळपाक सुरवात केली. ह्या लांकडी पांटल्यांनी पडपी बॉल परतून परतून काडपाक निसणीचो आदार घेवचो पडटालो. हाका लागून उपरांत लोखणाचे सरयेक रेवडायल्ले आनी सकयल उक्ते आशिल्ले जाळयेचो उपेग करपाक लागले. ताका लागून ह्या खेळाक 'बास्केटबॉल' हें नांव पडलें. सुरवेचे इतिहासीक सर्तीत दर एका पंगडांत णव, अशा अठरा खेळगड्यांनी वांटो घेतिल्लो.

'इंटरनॅशनल फॅडरेशन ऑफ बास्केटबॉल' ही संघटना १९३२ त स्थापन जाली. सद्या तिचीं ८५ वयर राश्ट्रां वांगडी आसात.

भारतांत हो खेळ १९११ वर्सा सावन सुरू जालो. चेन्नायचें वाय.एम.सी.ए. कॉलेज ऑफ फिझिकल एज्युकेशन हे संस्थेन ह्या खेळाचो नेटान प्रसार केलो. १९५० मेरेन 'इंडियन ऑलिंपीक असोसिएशन' ही संस्था ह्या खेळाचेर नियंत्रण दवरताली. उपरांत 'नॅशनल बास्केटबॉल फॅडरेशन ऑफ इंडिया' ही संस्था ह्या खेळाचेर नदर दवरूंक लागली. आयज सादारणपणान दर एका राज्याची बास्केटबॉलाची राज्य पांवड्यावयली संघटना आसा. ह्या खेळाच्यो सर्ती शालेय, म्हाविद्यालयीन, विद्यापिठीय, तशेंच राश्ट्रीय थरांचेर जातात. भारतान १९५१ त दिल्लीक




बास्केटबॉल खेळामैदान

सुरवेक नेस्मिथ हाणें तयार केल्ल्या साद्या मुळाव्या नेमांच्या आदारार हो खेळ खेळटाले. एका पंगडांत फकत पांचूच खेळगडे आसचे हो थाराव १८९५ त पास जालो. अमेरिकेंत 'ए. ए. यू.' हे संस्थेन १८९७त पयले फावट राश्ट्रीय सर्त घडोवन हाडली. ह्या खेळाचे प्रमाणीत नेम १९१५ त आंखले उपरांत रशिया, इंग्लंड, फ्रांस, कॅनडा, इजिप्त, हंगेरी, ब्राझील, आर्जेंटिना, फिनलँड मेक्सिको, चिली, क्युबा आनी हेर ल्हान ल्हान राश्ट्रांभितर ह्या खेळाचो प्रसार जालो. १९०४ तल्या सेंट लुईस ऑलिंपियाडांत ह्या खेळाक प्रदर्शनी दर्जो मेळ्ळो. १९३६ तल्या बर्लिनांतले ऑलिंपीक सर्तीसावन ताका ऑलिंपीक खेळ म्हणून मान्यताय मेळ्ळी. हे पयलेवयले सर्तींत २२ देशांनी वांटो घेतिल्लो. ऑलिंपीक बास्केटबॉल खेळाचें पयलें भांगरा पदक अमेरिकेन हातशिल्लें. ऑलिंपीक सर्तींतल्या अणभवांच्या आदारान खेळाच्या नेमांनी उपरांत बदल केले.

जाल्ले आशिया सर्तींत ह्या खेळांत पयलेच खेपे वांटो घेतिल्लो. बास्केटबॉलाची बायलांची राश्ट्रीय पांवड्याची सर्त १९५२ त बेंगळूराक घडोवन हाडिल्ली. आयज दादल्यांप्रमाण बायलोय व्हड उमेदीन हो खेळ खेळटात.

बास्केटबॉल खेळांत दर एका पंगडांत पांच खेळगडे आसतात. सादारणपणान प्रांगण २८ मी. लांब आनी १५ मी. रूंद आसता. प्रांगणाच्या फाटल्या शिमांचेर सकयल उकत्यो आशिल्ल्यो जाळयो लोखणाच्या आठ्यांक गुंथोवन हुमकळायतात. त्या लोखणी आठ्यांचो व्यास ०.४६ मी. आसता. हो जाळी आशिल्लो आठो जमनीसावन ३.०५ मी. उंचायेचेर बसयतात. ह्या खेळांत वापरतलो पेल्ल रबरीचो आसून ताचो परीघ सुमार ७५सेंमी. आसता. एकमेकांआड गोल करून चड गूण हाशील करप हें ह्या खेळाचें खाशेलपण.

बास्केटबॉल खेळ दोन वांट्यांनी विभागिल्लो आसता. दर वांटो वीस मिनटांचो आसता. पयलो वांटो सोंपले उपरांत धा मिनटांचो वेळ सुशेग घेवपाक दितात. खेळ सुरू जावंच्या वेळार दोनूय पंगडांचे मदीं खेळपी खेळगडी मध्यगोलाकडेन एकमेकांकडेन आनी आपल्या बास्केटाकडेन तोंड करून दावो हात फाटल्यान धरून उबे रावतात. पंच मदीं येवन तांचेभितर सादारणपणान २ ते २.५ मी. ऊंच बॉल उडयता. हो बॉल वाऱ्यार आसतना खेळगड्यांक ताका हात लावंक मेळटा. खेळाच्या दुसऱ्या वांट्याचीय सुरवात अशीच जाता. नेमभंग केल्यारूय हीच क्रिया करतात. दर एका पंगडांत पांच खेळगडी आसतात. तांचे जागे थरयल्ले आसतात. पयल्या आनी दुसऱ्या क्रमांकाचे खेळगडे बचावाचें कार्य करतात. तांकां डिफेंडर वा 'लॅफ्ट गार्ड' आनी 'रायट गार्ड' अशें म्हण्टात. विरोधी पंगडाक आपल्या बास्केटांत गोल करूंक दिवप ना हो तांचो मुखेल उद्देश. तीन, चार आनी पांच क्रमांकांच्या दावे वटेन खेळपी खेळगड्यांक 'लॅफ्ट फॉरवर्ड', मदीं खेळपी खेळगड्याक 'सेंटर' आनी उजवे वटेन खेळपी खेळगड्याक 'रायट फॉरवर्ड' अशें म्हण्टात. विरोधी पंगडाचेर गोल करून आपल्या पंगडाक गूण मेळोवन दिवप हें हांचें मुखेल काम. दोनूय पंगडांक बदली खेळगडी खेळोवपाक मेळटा. खेळांत पांच खेपे खेळगड्यांची बदली करूं येता. रक्षकांनी बचाव करतना आपल्या हातांतलो बॉल मुखार खेळपी जो खेळगडी मेकळो आसता, ताचेकडेन शेंवटुंचो आसता. पूण हालींच्या तेंपार दर एका खेळगड्याक बचावाचें तशेंच गोल करपाचें काम करचें पडटा. हो खेळ खूब गतीमान आशिल्ल्यान खेळगडी दक्ष आनी चपळ आसचे पडटात. तांकां एकसारकी धांवपळ करची पडटा. खेळाच्या नेमांप्रमाण खेळगड्यांक बॉल हातांत घेवन एका पावलापरस चड मुखार फाटीं वा कडेक वचूंक मेळना. बॉल जमनीचेर एका हातान आपटून 'टॅप', करूनूच ताका मुखार वचूंक मेळटा. हे क्रियेक 'ड्रिबल' अशें म्हण्टात. आपल्याच जाग्यार रावून ताका आपल्याच पंगडांतल्या दुसऱ्या खेळगड्याकडे बॉल शेंवटुपाका मेळटा. बॉल घेवन धांवप, तशेंच बॉलाचेर पांय वा मूठ मारप हें 'निशिध्द' मानतात. विरोधी पंगडांतल्या खेळगड्याक धरून दवरल्यार, धुकल्ल्यार, मुद्दम सकयल उडयल्यार तें वर्तन व्यक्तिगत नेमभंगांत येता (Personal Fault). तंत्रीक नेमभंग खंयच्याय पंगडाकडच्यान जालो जाल्यार ताच्या प्रतिपक्षाक 'फ्री थ्रो' ची संद मेळटा. पूण 'फ्री थ्रो' न गोल जाल्यार फकत एक गूण मेळटा. खेळटा आसतना गोल जाल्यार (फिल्ड गोल) दोन गूण मेळटात. खेळटना बॉल प्रांगणाभायर गेल्यार. ज्या पंगडान तो भायर उडयला ताच्या विरोधी पंगडाक तो भायर गेल्ले सुवातेसावन भितर शेंवटुपाक मेळटा. तशेंच गोल जाले उपरांत बॉल नॅट बोर्डासावन भितर शेंवटून मारतात. खेळ सोंपले उपरांत जो पंगड चड गूण जोडटा तो जैतिवंत थारता.

**ऑलिंपीक :** ऑलिंपीक खेळांत दादल्यांखातीर बास्केटबॉलाची पयली सर्त १९३६त जाल्यार, बायलांखातीर १९७६ त आयोजीत केल्ली.

**दादल्यांचें वस्तादपण :**

| | | | |
|---|---|---|---|
| १९३६ | अमेरिका | १९७२ | सोव्हिएत युनियन |
| १९४८ | अमेरिका | १९७६ | अमेरिका |
| १९५२ | अमेरिका | १९८० | युगोस्लाविया |
| १९५६ | अमेरिका | १९८४ | अमेरिका |
| १९६० | अमेरिका | १९८८ | सोव्हियत युनियन |
| १९६४ | अमेरिका | १९९२ | अमेरिका |
| १९६८ | अमेरिका | | |

**बायलांचें वस्तादपण :**

| | | | |
|---|---|---|---|
| १९७६ | सोव्हिएत युनियन | १९८८ | अमेरिका |
| १९८० | सोव्हिएत युनियन | १९९२ | सी आय एस युनायटेड टिम |
| १९८४ | अमेरिका | | |

**जागतीक वस्तादपण :**

जागतीक वस्तादपण दादल्यांखातीर पयली सर्त १९५० त अर्जेंटिनाच्या ब्युनॉस एअरस शारांत आनी बायलांखातीर १९५६ त आयोजीत केल्ली.

**दादल्यांचें वस्तादपण :**

| | | | |
|---|---|---|---|
| १९५० | अर्जेंटिना | १९७४ | सोव्हियत युनियन |
| १९५४ | अमेरिका | १९७८ | युगोस्लाविया |
| १९५९ | ब्राझील | १९८२ | सोव्हियत युनियन |
| १९६३ | ब्राझील | १९८६ | अमेरिका |
| १९६७ | सोव्हिएत युनियन | १९९० | युगोस्लाविया |
| १९७० | युगोस्लाविया | | |

**बायलांचें वस्तादपण :**

| | | | |
|---|---|---|---|
| १९५३ | अमेरिका | १९७५ | सोव्हिएत युनियन |
| १९५७ | अमेरिका | १९७९ | अमेरिका |
| १९५९ | सोव्हिएत युनियन | १९८३ | सोव्हिएत युनियन |
| १९६४ | सोव्हिएत युनियन | १९८६ | अमेरिका |
| १९६७ | सोव्हिएत युनियन | १९९० | अमेरिका |
| १९७१ | सोव्हिएत युनियन | | |

- कों. वि. सं. मं.

## बाहुबली (गोमटेश्वर) :

जैनांची एक उपास्य देवता. वृषभनाथ (ऋषभनाथ) ह्या आद्य जैन तीर्थंकराचो पूत. ताका गोमटस्वामी अशेंय

म्हण्टात. ताचेविशीं एक कथा प्रचलीत आसा, ती अशी- वृषभनाथान आपलें राज्य भरत आनी बाहुबली ह्या दोन भुरग्यांक वाटून संन्यास घेतलो. फुडें कांय काळान भरत दिग्विजयाखातीर भायर सरलो. बाहुबलीन ताका विरोध केलो. ताणें सांगलें, 'हांव गुणांचो उपासक. गुणांफुडें हांव नम्र जातलो. सार्वभौम म्हणपी कोणामुखारूच जावंचो ना. इतलेंच न्हय, जाल्यार व्हडल्या भावामुखारूय हांव नम्र जावंचों ना'. ताका लागून दोगांय मजगतीं झूज पेटलें, पूण मनीससंहार टाळपाखातीर तांणीं द्वंद्वयुध्द करपाचो निर्णय घेतलो. जलयुध्द आनी मल्लयुध्द हातूंत भरताचेर हार पडली. निमाणें ताणें आपलें चक्र सोडलें. पूण तेंय बाहुबलीन परतिलें. इतलें जावूनय सगळें राज्य ताणें भरताक दिलें आनी आपूण तपाखातीर भायर सरलो. कितलींशींच वर्सां तप करुनूय ताका मुक्ती मेळना, तेन्ना भरत चिंतेस्त जालो. ताणें वृषभनाथाक हाचें कारण विचारलें, तेन्ना ताणें सांगलें, 'तुज्या राज्यांत तो तप करीत आसा, ही गजाल तूं ताचे तकलेंतल्यान काडून उडय. ताका लागून ताचें तप फळाक येना.' देखून भरतान 'ही धर्तरी कोणाचीच न्हय. तूं मनांतलें शल्य काडून उडय' अशें सांगलें. हें बाहुबलीन मान्य करतकच ताका फकत ज्ञान मेळ्ळें.

बाहुबलीच्यो मूर्ती भारताच्या वेगवेगळ्या वाठारांनी दिश्टी पडटात. पयली मूर्त ब्राँझ धातूची आसून ती सव्या शेंकड्यांतली आसा. तिची उंचाय अर्द मीटर. पांय आनी भुजां वालींनी आनी पानांनी रेवडायल्लीं आसात. फाटीचेर आनी खांद्यार जटा आसात.



बाहुबलीची मूर्त - श्रवणबेळगोळ

वेरूळच्या इंद्रसभा लेण्यांतल्या दक्षिण वण्टीचेर कोरांतिल्ली बाहुबलीची मूर्त आठव्या शतमानांतली आसा. तिचेच धर्तीची पूण मातशी वेगळी मूर्त देवगढा वयल्या शांतिनाथ मंदिरांत आसा. हे मूर्तीच्या आंगार वाली आनी नाग हांचेखेरीज हेर प्राणी दिसतात. ही णवव्या शेंकड्यांतली आसूंक जाय अशें म्हण्टात.

गोमटेश्वराच्यो व्हडल्यो मूर्ती कर्नाटकांत दिसतात. तातूंतली श्रवणबेळगोळाची ९८३ त कोरांतिल्ली मूर्त व्हड आसून ती सुमार १८ मी. ऊंच आसा. कारकल आनी वेन्नूरच्यो मूर्ती अनुक्रमान १४८१ आनी १६०३ तल्यो आसून त्यो सुमार १२.५मी. आनी ११ मी. ऊंच आसात. कोल्हापूर जिल्ह्यांत कुंभोजा लागसार गोमटेश्वराचे ६मी. उंचायेचे व्हडले मूर्तीची प्रतिश्ठापना केल्या. जून १९७५ त आग्राक एके व्हडले गोमटेश्वराचे मुर्तीची स्थापना केल्ली आसून तिची उंचाय सुमार १४ मी. आसा.

श्रवणबेळगोळा हांगाचे मूर्तीचोच नमुनो फुडें दवरून ह्यो सगळ्यो मूर्ती घडयल्यात. कारण ही मूर्त खूब पुर्विल्ली, भोव ओडलायणी आनी कलात्मक आसा. पुराय भारतांतली एक अती भव्य कलाकृती म्हणून तिका वळखतात. ही शिल्पकृती राछमल्ल ह्या गंग राजाचे मुस्तींत ताचे बायलेच्या आगऱ्याक लागून चामुंडराय ह्या मंत्र्यान तायर केली. तेन्नाच्या कलाकारांनी विंध्यगिरी वा इंद्रगिरी ह्या दोंगरार एकसंघ पाशाणांत ती कोरांतली. उत्तरे वटेन तोंड करून आशिल्ले हे मूर्तीचे अवयव घाटदार आसात. दिगंबर आसून लेगीत तिच्या दोळ्यांत वासना दिसना. ध्यानस्थ दोळे, मुदयाळे केंस, व्हडलें हड्डें, रूंद खांदे हीं शरिराचीं खाशेलपणां व्हडा कसबान घडयल्यांत. ओंठावयलो मुमुरखो हांसो गूढ दिसता. ताच्या कमरामेरेन दोनूय वटांनी रोयणी दाखयल्ल्यो आसून तातूंतल्यान सोरोप फुस्कार घालतात अशें दाखयलां. थंयसावनूच दोन वाली वाडून त्यो बाहुबलीच्या मांडयांक रेवडल्यात अशें दाखयलां. हाचेवयल्यान ताची खडतर तपश्चर्या आनी एकाग्रताय कळटा. पुतळ्याक कसलेंच छत्र वा पांखें ना. कितलींशीच वर्सां वत, वारो, पावस हांचो कसलोच परिणाम जायनासतना शिल्पाची सोबीतकाय मातूय उणी जावंक ना. दक्षिण भारतांतल्या अती भव्य अशा गंग शिल्पशैलीचो सोबीत आविश्कार बाहुबली मूर्तींत जाल्लो दिसता.

मूर्तीच्या दाव्या पाया वटेन एक शिलालेख आसा. तातूंत देवनागरी लिपींत, मराठींत दोन ओळी कोरांतल्यात. मराठींतलो खूब पुर्विल्लो तो शिलालेख.

- कों. वि. सं. मं.

**बाळंतपण आनी ताचे विकार :** गर्भविद्येचो आनी बाळंतपणाचो अभ्यास करप आनी ताचे विकार जाणा जावन घेवप हाकाच बाळंतपण वा सूतिकाशास्त्र (obstetrics) अशें म्हण्टात.

**इतिहास :** सोळाव्या शेंकड्यामेरेन, बाळंतपणांत उपाय येवजून आदार करपाचें काम बायलोच करताल्यो. अशे बायलेक 'वैजीण' अशें म्हण्टाले. त्या काळांत सादारणपणान (normal) जावपी बाळंतपणात ५०% बायलो दगावताल्यो. कश्टमय (dystokia) बाळंतपणांत खूब हाल जावन बायलांक मरण येतालें. आयुर्वेदांत, 'सूतिकाशास्त्र' ह्या

विशयाचो उल्लेख मेळटा, ताचेवयल्यान पुर्विल्ल्या वैजांक हेविशीं गिन्यान आसुंये. तशेंच चरक, सुश्रुत आनी वाग्भट हांच्या ग्रंथांनी बाळंतपणाचे उल्लेख आसात. सुश्रुत हाणें कश्टप्रसूतीचो उल्लेख, 'मूढगर्भ' असो केला. ज्यो कल्पना अस्तंती वैजांक सुचपाक शेंकड्यांनी वर्सां लागलीं, तांचो उल्लेख सुश्रुतसंहितेंत केल्ल्याचो मेळटा. देखीक- गर्भपरिवर्तन, म्हळयार विशिश्ट पद्दतीन पोटावयल्यान हात भोंवडावन गर्भदर्शन बदलपाची प्रसूतिविज्ञानान केल्ली क्रिया. हे क्रियेंत आडवें आयिल्लें भुरगें घुंवडावन पाददर्शन वा शिरोदर्शन म्हळयार पांय वा तकली पयलीं भायर येवपाची स्थिती करूंक येता. गुरवार बायलेक कसलोच त्रास जावंचो ना अशे तरेन मेल्लो गर्भ कुडके कुडके करून भायर काडपाची शस्त्रक्रिया, तेच भाशेन मेल्ले आवयच्या पोटांतलो जिवो गर्भ भायर काडपापासत तिच्या पोटाचेर करपाची शस्त्रक्रिया हांचें सुश्रुतान वर्णन केलां. प्रसूती संदंशाचो उल्लेख पुर्विल्ल्या आयुर्वेदीय ग्रंथांनी मेळटा. कश्टप्रसूतीच्या वेळार गर्भ काडपाखातीर 'गर्भशंकू' वापरचो अशें वाग्भटान सांगलां. कश्टप्रसूतींत गर्भ मेल्लो आसल्यार तकलेचीं हाडां फोडून उपरांत तीं शंकून धरून काडचीं अशें सुश्रुतान म्हळां.

सतराव्या शेंकड्यांत रोम आनी अरेबियन वैजकींत कश्टप्रसूतीच्या वेळार दादले मदत करूंक लागले. ह्या शास्त्राविशीं ह्या काळांतल्या पॅरीसाचो फ्रांस्वा मॉरिक्यू आनी हॉलंडांतले हॅन्ड्रिक व्हान डिव्हेंटर आनी हॅन्ड्रिक व्हान रुनहुयझे ह्या तज्ञांचो उल्लेख करूंक जाय. रुनहुयझे आनी डिव्हेंटर हांणी वैजिणींचें शिक्षण आनी दर्जो सुदारपाक मोलादीक वावर केलो. रुनहुयझे हो कश्टप्रसूती प्रकारांत करपाच्या 'सिझेरियन छेदन' (मरणाच्या चपक्यांतले गुरवार बायलेच्या पोटांतलो गर्भ पोट-छेदन आनी गर्भाशय-छेदन करून काडपाच्या) तशेंच Lex Caesarean नांवाच्या रोमन कायद्यांवयल्यान नांव दिल्ले शस्त्रक्रियेंत कुशळ आशिल्लो.

१५६९ वर्सा धर्मीक त्रासांक वाजेवन फ्रांस सोडून इंग्लंडांत स्थलांतर केल्ल्या ह्यू चेंबरलेन हाच्या कुटुंबांतल्या एकट्यान प्रसूती संदंश म्हळयार कश्टप्रसूतींत वापरतात तो चिमटो पयलीं सोदून काडलो आनी उपरांत अठराव्या शेंकड्याचे सुरवेमेरेन ताचेविशीं गुप्तताय राखून आपल्या कुटुंबाकडेनूच ताचे हक्क दवरले.

विल्यम स्मॅली आनी विल्यम हंटर ह्या ग्रेट ब्रिटनांतल्या तज्ञांनी प्रसूतिविज्ञानांत मोलादीक भर घाली. स्मॅली हाणें ह्या विशयाचें शिक्षण पॅरीसांत घेतलें आनी १७३९ वर्सा लंडनांत आपलो वेवसाय सुरू केलो, आपल्या घराकडेनूच ताणें मनशाच्या हाडांचो मनशाच्या आकाराचो एक नमुनो तयार केलो, आनी विद्यार्थ्यांक ताणें बाळंतपणाचें शिक्षण दिलें. कश्टप्रसूतींत उपेगी पडपी कांय विशिश्ट प्रसूती संदंश ताणें सोदिल्ले. ताणें बरयल्लो 'ट्रिटीझ ऑन द थिअरी अँड प्रॅक्टिस ऑफ मिडवायफरी' हो ग्रंथ तीन खंडांनी १७६४ मेरेन उजवाडा आयलो. हो प्रसूती संदंश कसो वापरचो हेविशींचे नेम तशेंच बायलेची सामान्य श्रोणी आनी श्रोणीसंकोच हांचेमदलो फरक मेजून घेवन स्पश्ट करपी हो पयलोच ग्रंथ. १७४१ वर्सा विल्यम हंटर हो स्मॅलीकडेन विद्यार्थी म्हणून शिकपाक गेलो. तीस वर्सांच्या अभ्यासा उपरांत ताणें 'ॲटलास ऑफ द प्रॅग्नंट युटॅरस' हो सचित्र ग्रंथ १७७४ वर्सा उजवाडायलो. मँचेस्टरचो शस्त्रक्रिया विशारद चार्ल्स व्हायट हाणें १७७३ वर्सा उजवाडायल्ल्या बाळंतपणाविशींच्या ग्रंथांत 'अपूतित' (संसर्गविरयत) बाळंतपणाची कल्पना मांडल्या आनी शस्त्रक्रियेवेळार जितली नितळसाण राखतात तितलीच बाळंतपणांतूय राखची अशें सांगलां.

दुखीविरयत बाळंतपण कशें करूं येता हेविशीं शास्त्रज्ञ विचार करूंक लागले तेन्ना सनातनी विचारांच्या वैजांनी आनी धर्मगुरूंनी ह्या असल्या वखदाक खूब विरोध केलो. पूण १८४७ वर्सा जे. वाय. सिंप्सन ह्या एडिंबरोच्या प्रसूती विज्ञानाच्या प्राध्यापकान बाळंत जातना दूख जाणवची न्हय म्हणून पयलेच खेपे क्लोरोफॉर्माचो उपेग केलो. उपरांत जॉन स्नो ह्या लंडनच्या वैजानूय सुरवेक क्लोरोफॉर्म आनी उपरांत ईथराचोय उपेग केलो. तेउपरांत कितल्याशाच हुंगरेच्या वखदांचो सोद लागलो. बाळंत जावपाच्या वेळार कमरा सकयल्या भागाचेर इंजेक्शन करून बायलेक दुखीविरयत बाळंतपण करपाक लागले.

ब्रिटन आनी अमेरिकेंत हालीं सैमीक बाळंतपणाखातीर 'रीड पद्दत', नांवाची एक पद्दत व्हड प्रमाणाचेर वापरतात. ग्रॅण्टली डिक-रीड हाणें हे पद्दतीचो सोद लायिल्ल्यान हे पद्दतीक 'रीड पद्दत' हें नांव पडलें. ब्रिटनांत रीड आनी फ्रांसांत फेर्ना लमाझ हाणें बाळंतपणाविशींची सगळी म्हायती बाळंत जावंचे पयलीं बायलेक दिवपाचें थरयलें. बाळंत जावंचे पयलीं म्हळयार गुरवारपणाच्या निमाण्या दिसांनी बायलेक ही सगळी म्हायती दितात. बाळंत जावंचे वेळार घेवपाची उस्वासाची पद्दत आनी बाळंटेर क्रियेक आदार करपी हेर व्यायामांचें शिक्षण दितात. बायलेच्या घोवाकूय ह्या सगळया अभ्यासक्रमांत आस्पावन घेतात. अमेरिकेच्या कांय हॉस्पिटलांनी जावपी अपत्याच्या बापायक, बाळंतपणांत आदाराक घेवन तो तज्ञांचे देखरेखीखाला भुरग्याची नाळ कापपाची लेगीत मदत करता. हे पद्दतीक लागून आवय-बापूय आनी भुरगें हांचेमदीं आपलेंपण चड घट जाता अशें मानतात. तशेंच बाळंटेरा वेळार दूख उणी जावपाचीं वखदां वापरलीं तरी सुद्दीभायर वचपाचीं वखदां उणीं वापरपाचेर भर दितात. रीड पद्दतीक लागून बाळंटेराविशींचो भंय उणो जावन त्या वेळार मन तयार आशिल्ल्यान खूब मदत मेळटा.

**जननेंद्रियांची शरीररचना :** बायलेच्या आंगांत जे जननेंद्रियाचे अवयव आसतात, तातुंतले थोडे बाह्य तपासणेंत दिसतात. तांकां external genitalia वा Vulva अशें म्हण्टात. भितरल्यान आशिल्ले अवयव पळोवपाखातीर खाशेलीं उपकरणां वा Instruments वापरून योनी तपासणी करची पडटा. हे अवयव म्हळयार योनी (vagina), अंडकोश (ovary), नळ्यो (tubes) आनी गर्भाशय (uterus). अंडकोशांत स्त्रीलिंगी

बीज वा डिंबपेशी (ovum) तयार जाता. तांचें तयार जावप हें इंद्रियव्यापारप्रवर्तक अन्तरोत्सर्गां (Hormones) चेर आदारून आसता. डिंबपेशी तयार जावपाचो संच अदमास तेरा वर्सांचेर सुरू जाता. ह्याच वेळार बायलेच्या आंगांतले हेर अवयव आनी थानां हांची वाड जाता. ताका रजोदर्शनारंभ अशें म्हण्टात. दादल्याच्या आंगांत १४ वर्सांचे पिरायेचेर अशेच तरेचे बदल जातात. बीजकोश (Testes) ह्या अवयवान एकाच वेळार कितलेशेच शुक्रजंतू तयार जातात.

संभोगाच्या वेळार डिंबपेशी (ovum) आनी शुक्रजंतू (sperms) हांचो बायलेच्या आंगांत मिलाप जाता आनी अशे तरेन गर्भ (zygote) तयार जाता. हो गर्भ गर्भाशयांत एके कुशीक दसून उरता आनी ताची ल्हव ल्हव करून वाड जाता. तसो तसो गर्भाशय वाडटा. गर्भाशयांत एके खास तरेचे स्नायू आसतात. ताका लागून गर्भाशयाची लांबाय कितलेशेच पटींनी वाडूंक शकता. गर्भ वाडत वता आनी ताचेपसून भुरगो (embroyo वा foetus) तयार जाता. भुरग्याचे बोमलेंतल्यान जी नाळ (cord) भायर सरता, ती एका विशिश्ट भागाक जुळटा, ताका वार वा विजबंध वा गर्भवेश्टन (Placenta) म्हण्टात.

गुरवारपणाचो काळ कॅलेंडराचे णव म्हयने वा चंद्रानुसार १० म्हयने वा ४० सप्तकां आसता. हे २८० दीस सोंपतकच बाळटेराक सुरवात जाता. गुरवारपणांत करपाचे तपास आसतात ते अशे- १) गुरवार बायलेच्या मुतांत H. C. G. नांवाचो एक पदार्थ आसता. ताची तपासणी केल्यार गुरवारपणाचें निदान करूं येता. (Pregnancy Test). २) R. I. A. निदान-रगताचो तपास करून H. C. G. चें प्रमाण पळोवप. ३) Ultrasonography हें यंत्र वापरून केल्लो तपास. हातूंत गर्भाशयांत वाडटा तें भुरगें, ताची वाड, ताचे अवयव आनी लिंग लेगीत पारखुपाक येता. ४) क्ष-किरण तपास. ५) भुरग्याचें व्यंग वळखप (Amnioscopy, fetoprotein) ६) भुरग्याचें लिंग आनी जल्मजात व्यंग वळखप (Amniocentesis, Chorion Villous Biopsy).

**भुरग्याची वाड :** गर्भाशयांत भुरगें वाडटा, तेन्ना ताचे अवयव अशे तरेन वाडटात-पांचव्या सप्तकासावन काळजाचे थोके Ultrasound हें खाशेलें उपकरण वापरून कळटात. इकराव्या सप्तकांत भुरग्याचें हड्डें फुगपाक सुरवात जाता. भुरग्याच्या फुफुसांत हवा नासता, फकत उदक भरिल्लें आसता. बाराव्या सप्तकासावन भुरग्याचें मूत्रपींड (Kidney) काम करपाक सुरवात करता आनी दिसाक ६५० मिली. मूत तयार जाता. सोळाव्या सप्तकासावन भुरग्याच्या आंतकड्यांचें (Intestines) काम चालू जाता. भुरगें आपले भोंवतणचें उदक पियेवपाक सुरवात करता. त्याच वेळार कातीचेर बारीक ल्हंव वा केंस तयार जातात. उपरांत घाम येवपाच्यो ग्रंथी (Sweatglands) तयार जातात.

पांच म्हयन्यां उपरांत भुरग्याचे अवयव आनी हातपांय, दोतोराक पोट तपासतना वळखुपाक येतात. Stethoscope हें उपकरण कानांक लावन भुरग्याच्या काळजाचे थोके आयकूंक येतात. आवयच्या पोटांत भुरगें कशे अवस्थेंत आसा हें जाणून घेवप म्हत्वाचें आसता. भुरगें सरळ, आडवें वा वांकडें तशेंच तकलेन, पांयांनी वा एके कुशीन आसपाक शकता.

गुरवारपणांत दर एके बायलेन करपाचे तपास - १) रगताचो तपास - Hemoglobin २) मूत आनी संडासाची तपासणी ३) रगताचो गट तपासप ४) रगतांत साकरेचें प्रमाण पळोवप ५) रगताचो दाब मेजप.

**चड आर्विल्ले तपास**- १) Non-Stress test, २) Foetal Doppler, ३) Stress test, ४) Exercise tolerance test, ५) Cardiotocography.

**बाळंतपण** - आवयच्या पोटांत णव म्हयने पुराय जातकच भुरगें योनी वटेन भायर सरता. हाकाच बाळंतपण वा (delivery) अशें म्हण्टात. अशा वेळार कांय पेशंटांचे बाबतींत चड जतनाय घेवंची पडटा. ते पेशंट म्हळयार-

- ज्या पेशंटाक पयलेच खेपेक गुरवारपण आयलां.
- ज्या पेशंटाची पिराय ३० वर्सांवयर आसा.
- ज्या पेशंटाच्या आंगांत रगत उणें आसा.
- ज्या पेशंटाचो रगताचो दाब वाडिल्लो आसा.
- ज्या पेशंटाक काळजाचें दुयेंस आसा.
- ज्या पेशंटाक परतून परतून गर्भपात जावपाची संवय आसा.
- पयल्या भुरग्याक व्यंग आसत जाल्यार.

आवयच्या आंगांतल्या जननेंद्रियांत कांय बदल जावन उपरांत गर्भाशयांतल्यान योनी वटेन भुरगें भायर सरप हाकाच बाळंतपण Normal Labour म्हण्टात. जर ही क्रिया ३७ सप्तकांपयलीं सुरू जाली जाल्यार ताका Preterm Labour म्हण्टात. कांय कारणांक लागून शस्त्रक्रिया करून भुरगें भायर काडचें पडल्यार ताका Caesarian Section म्हण्टात. आपले आपुणूच पोटांत दुखपाक सुरवात जावन आनी कसल्याच शस्त्रांची गरज लागनासतना, तशेंच कांयच विकार जायनासतना जर बाळंतपण जायत जाल्यार ताका Eutocia म्हण्टात. भुरगें पांयांनी आसप वा आडवें आसत वा पोटांत दुखपाक सुरवात जावप ना वा दुसरे कसलेय विकार जावप आनी बाळंतपणाक त्रास जावप हाका Dystocia म्हण्टात.

बाळटेराचे सुरवेक आवयच्या पोटांत दुखपाक लागता. कांय बायलांक, चड करून ज्या बायलांची पयलीच खेप आसता, तांकां वोगीच पोटांत दुखिल्लेभाशेन दिसता. हाका फटीच्यो प्रसूतीवेदना False Pains म्हण्टात. बाळटेराक खऱ्यांनीच जेन्ना सुरवात जाता तेन्ना पोटांत

खुबूच दुखता. गर्भाशयाचे स्नायू आंवळून घट्ट जातात. हाका खरी प्रसूतिवेदना True Labour Pains म्हण्टात. योनींतल्यान एक प्रकारचो स्त्राव आनी रगत भायर सरता, हाका Show अशें म्हण्टात. ते उपरांत गर्भाशयाचें तोंड (Cervix) ल्हव ल्हव उगडटा आनी भुरग्या भोंवतणीं जें उदक आसता तें दिश्टी पडटा. हाका Bag of waters अशें म्हण्टात.

बाळंतपणाची दुसरी स्थिती सुरू जातकच गर्भाशयाचें तोंड इतलें उगडटा, निमाणें पटलां (Membranes) फुटून उदक सामकें (Liquor) भायर येता. तेच वांगडा गर्भाशयाचे स्नायू आकुंचीत जातात (Contractious) आंनी भुरगें ल्हव ल्हव भायर येता. भुरगें पुरायेन भायर येतकच नाळ कापून त्या भुरग्याक वेगळें करचें पडटा. तिसरी स्थिती म्हळ्यार वार वा Placenta भायर येवप. बाळंतपण जातकच थोड्या दिसांनी आपसूक गर्भाशयाचो आकार ल्हान जाता. ताका संकुचन (Involution ) म्हण्टात.

अदमास ८५% बाळंतपण सुरळीत जातात. पूण कांय खेपे किदेंय विकार वा Complications जावन आवयक त्रास जावपाक शकतात. तेखातीर बाळंतपण हॉस्पिटलांत वा स्वास्थ्य केंद्रांत जावप गरजेचें आसता. वीस वर्सांसकयल वा छत्तीस वर्सांवयर आशिल्ल्यो पिरायेच्यो बायलो, रक्तदाब, काळजाचें दुयेंस आशिल्ल्यो बायलो आनी पयल्या बाळंतपणांत किदेंय त्रास जाला अशा बायलांविशीं चड जतनाय घेवंची पडटा.

बाळंत जावपाची सुवात नितळ आनी बरी आसची पडटा. गुरवार बायलेचे योनीची शाब्बाच्या उदकान धुवून नितळसाण राखची पडटा. दोतोरान आनी नर्सीन तोंडाक मुखवटो (Mask) घालपाक जाय. आंगाचेर लोब (Apron) घालूंक जाय. हात बरे धुवन घेवपाक जाय. बाळंतपणाची दूख उणी जावपाक पॅथिडीन (Pethidine) हेसारकीं वखदां दिवंचीं पडटात. मातशी न्हीद येवपाचींय वखदां दितात. दर १०-१५ मिनटांनी गर्भाशयाचे स्नायु आंवळून येतात वा ना, भुरग्याच्या काळजाची गती कितली आसा (Foetal Heart Rate) आनी भुरग्याच्या काळजाचे थोके ल्हव ल्हव पडटात काय ना हाचो तपास करचो पडटा.

भुरग्याची हालचाल चड वाडत वा काळजाचे थोके उणे चड जावप, हेसारकीं वायट लक्षणां दिसल्यार भुरग्याच्या जिवाक भंय आसता. तशेंच बाळटेर खुबूच वेळ लांबून आवयक त्रास जाल्यार एकादऱ्या वेळार दोतोराक शस्त्रक्रिया करप वा ना हाचेर विचार करचो पडटा.

**बाळंतपणांतले विकार** : गुरवारपणांतलीं ३७ सप्तकां पूर्ण जावंचेपयलींच बाळंतपणाक सुरवात जाल्यार ताका मुदतपूर्व प्रसूतिवेदना Preterm वा Premature Labour म्हण्टात. हाचीं कारणां खूब आसूंक शकतात. आवयक मुताचें इन्फॅक्शन आसल्यार, जोर आयल्यार, रगताचो दाब वाडल्यार, रगतांत साकर वाडल्यार वा गर्भाशयाचे कसलेय दोश आसल्यार अशे तरेचें बाळंतपण जावंक शकता.

- ☆ जर गुरवारपणाक ४० सप्तकांपरस चड दीस वचत जाल्यार ताका मुदतोत्तर Post-Maturity वा Post-Datism म्हण्टात.
- ☆ गुरवारपणांत आवयचें वजन खूब बेगीन वाडप तशेंच रगताचो दाब (B. P.) वाडप हाका Toxemia म्हण्टात. हेच वांगडा मुतांतल्यान एक औजसद्रव्य (Protein) वचपाक लागल्यार, पेशंटाक मोडणें मारून येवपाची आनी बेशुद्द जावपाची शक्यताय वाडटा. ताका Ecclampsia म्हण्टात.
- ☆ गर्भपात- २८ सप्तकांपयलीं बाळंतपणाची क्रिया सुरू जावप आनी गर्भ भायर पडप हाका गर्भपात म्हण्टात. डिंबपेशीचे दोश, गर्भाशयाचे दोश, रक्तदाब हेसारकीं कारणां आसतात.
- ☆ गुरवारपणांत आवयक चड प्रमाणान ओंकारे येवन, वजन खूब उणें जावन भलायकी पेड्डेर जावप हाका सगर्भता अतिवमन Hyperemesis Gravidarum म्हण्टात.
- ☆ गर्भाची लागण गर्भाशया भायर जावप आनी थंयच भुरगें वाडप हाका अस्थानी सगर्भता Ectopic pregnancy म्हण्टात. अशें जाल्यार पोटांत दुखप, रक्तस्त्राव जावप, घुंवळ येवप हेसारकीं लक्षणां दिसतात.
- ☆ पोटांत भुरग्या भोंवतणीं चड उदक आसप हाका Hydramnios म्हण्टात हाचीं कारणां म्हळ्यार भुरग्याच्या आंगांतलीं व्यंगां, गर्भवेश्टणाचे दोश, नाळीक गांठ आसप, जुंवळीं भुरगीं आसप वा काळजाचे दोश आसप. हाचे उरफाटें, पोटांत उदक खुबूच उणें आसत जाल्यार ताका Oligohydramnios म्हण्टात.
- ☆ नाळ चड लांब आसल्यार भुरग्याच्या गळ्याभोंवतणीं आवळूंक शकता आनी भुरग्याच्या जिवाक धोको आसता.
- ☆ आवयच्या आंगांत रगत खुबूच उणें आसत वा पंडुरोग आरक्ता (Anamia) जाल्यार अशक्तताय येता. खरस मारप, जेवणाची रूच वचप, काळाजांत धडधडप, घुंवळ येवप, पांय सुजप हेसारके त्रास जातात.
- ☆ गर्भवेश्टण जर गर्भाशयाच्या तोंडाकडेन लागिल्लें आसत जाल्यार गर्भाची वाड जातकच तो सरकता आनी योनींतल्यान रक्तस्त्राव जाता. हातूंत भुरग्याच्या जिवाक धोको आसता आनी आवयच्याय जिवाक धोको आसता.
- ☆ २८ सप्तकांउपरांत आवयच्या पोटांत भुरगें मरप हाका Foetal Death म्हण्टात. आवयक रक्तदाब, साकरेचें दुयेंस, मुत्रपिंडाचें इन्फॅक्शन, ॲनेमिया, जोर येवप, हेसारकीं दुयेंसां आसल्यार अशें जावंक शकता.
- ☆ गुरवारपणांत भुरग्याची वाड सारकी जायना जाल्यार ताका वाड मंदन (Growth Retardation) वा Dysmaturity म्हण्टात.

आवयच्या कमराच्या हाडांची रचना जर सारकी नासत म्हळ्यार भुरग्याची तकली ते वटेंतल्यान भायर येवंक शकना जाल्यार ताका C. P. D. वा Pelivis Contracted म्हण्टात. अशा वेळार क्ष-किरणांचो वापर करून बाळंतपण सुरू जावंचे पयलींच हाचें निदान करूं येता.

- गर्भाशयांतल्यान भुरगें जल्मतनाच मेल्ले अवस्थेंत भायर येत जाल्यार ताका (Still birth) म्हण्टात.
- बाळंतपणांत जर गर्भाशयाचे स्नायू आवुळपाचे बंद जायत जाल्यार ताका गर्भाशयाची जडताय (uterine Inertia) म्हण्टात. तशेंच गर्भाशयाचे स्नायू इतल्या वेगान आवळप आनी बाळतपणांत तीन टप्पे दोन वरांभितर जायत जाल्यार ताका अवक्षेपित प्रसूतीवेदना (Precipitate Labour) म्हण्टात.
- भुरग्याची तकली भायर ओडून काडपाक एकेकदां शस्त्रांचो वापर करतात. ताका Vaccum Extractor आनी Forceps delivery म्हण्टात.
- कांय कारणांक लागून शस्त्रक्रिया करून भुरग्याक भायर काडचें पडटा. हाका (Caesarian Section Operation) म्हण्टात. तीं कारणां अशीं आसतात-

१. भुरग्याची भायर सरपाची वाट बारीक आसप.

२. आवयच्या कमराच्या हाडांनी दोश आसप.

३. भुरगें ल्हान आसप (Dysmaturity).

४. वार चड सकयल, गर्भाशयाच्या तोंडाकडेन आसप, जाका Placenta Previo म्हण्टात.

५. वार गर्भाशयापसून वेगळी जावन रक्तस्राव जावप.

६. भुरगें पोटांत आडवें वा पांयांनी वा बाळतपणांत त्रास जावपाक शकतात

अशें आसप.

एकेकदां भुरग्याचे तकलेचीं हाडां तयार जायनात आनी मेंदवाची वाड जावंक पावना. हाका Anencephaly म्हण्टात. तशेंच, केन्नाय तकली खूब व्हड आसता आनी बाळंटेराक त्रास जातात. केन्नाकेन्नाय जुंवळीं भुरगीं दशिल्लीं आसतात आनी तशींच जल्माक येतात. तांकां Conjoined Twins म्हण्टात.

- डॉ. विजय तळावलीकार

**पूरक नोंद :** गुरवचार.

**बाळकडू :** (हिंदी : खोरासनी, कुटकी; गुजराती : कडू; कन्नड : कटकरोहिणी; संस्कृत : कटुकी, वक्राग, कटुरोहिणी; इंग्लीश : ब्लॅक हेलेबोर, क्रिसमस रोझ; लॅटीनः हेलबोरस नायगर; कूळ : रानुनक्युलेसी).

सदां पाचवेंचार उरपी आनी जायतीं वर्सां जगपी वखदी झाड. पानां गाजराच्या वा मुळयाच्या पानांवरी, पूण मुळां खोडापसून वयर आयिल्लीं, लांब देंठाचीं, गुळगुळीत, वयले वटेन गाड पाचवीं पूण पोंदच्यान लेव उभार आनी संयुक्त आसतात. फुलां व्हड सुमार ६ सेंमी. व्यासाचीं, धवीं वा लेव जांबळीं शिंयाच्या मध्यार येतात. हीं फुलां चड करून नातालाच्या मध्यार येतात देखून तांकां 'क्रिसमस रोझ' हें इंग्लीश नांव पडलां. हांकां ५-१० पेटिकाफळांचे घोंस येतात. ह्या झाडाची नवी लागवड बिंयां वा खोडाचे कुडके लावन करतात.

हें वखदी झाड दक्षिण आनी मध्य युरोपांत, अंस्तंत आशियेंत आनी भारतांत चड करून घाटांचेर वा दोंगराळ भागांनी दिश्टी पडटा. सोळाव्या शतमानासावन परदेशांत हें झाड पोरसांनी लागवडीखाल आसा.

हे वनस्पतीच्या मुळाचे बारीक धवे करंगळेयेदे सुरकुतिल्ले धवे कुडके बाजारांत मेळटात. नेपाळ, हिमालय आनी अरबस्थानांतल्यान ते हाडटात. हातूंत हेलेब्रिन, हेलेबोरीन, हेलबोरेन हीं ग्लुकोसायडां आसतात. थरावीक काळांत जावपी रोगाचेर प्रतिबंध करपाखातीर हे बाळवेखंड भुरग्याक फावो त्या प्रमाणांत दितात. ताकाच लागून हाका बाळकोडू हें नांव पडलां. मुळां, पानां हीं विखारी आशिल्ल्यान तीं दितना सांबाळून दिवंचीं पडटात. बाळकडू चड प्रमाणांत खाल्यार वेगवेगळे त्रास जावन मरण येवपाची शक्यताय आसता. मूळ विरेचक, मासिक पाळी सुरू करपी आनी कृमीनाशकूय आसता. डिजिटॅलिसावरी हें काळजाक उर्बा (बळ) दिवपी, विशिश्ट जाग्यार बधीरताय हाडपी. ताचो काडो म्होंव घालून कामणीचेर, पिठो म्होंवावांगडा ओंकारे आनी खेळणेचर साकर घालून हून उदकावांगडा कफ, पित्त आनी जोराचेर उपेगी पडटा. कातीविकाराचेर बाळकडूचो पिठो उपेगी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**बाळकृष्णबुवा इचलकरंजीकर :** (जल्म : ७ सप्टेंबर १८४९, बेडग, मिरज; मरण : ८ फेब्रुवारी १९२७, इचलकरंजी).

हिंदुस्थानी संगीत परंपरेंतलो एक म्हान प्रतिभावंत गायक. ताचें घराणें भिक्षुकी करप्यांचें आशिल्लें. पूण बाळकृष्णाचो बापूय रामभट हाका गायनाची खूब आवड आशिल्ली. ताका लागून रामभटान भिक्षुकी सोडून सातान्याचो बाळाजीबुवा हाचेकडेन गायनाचें शिक्षण घेतलें. आपल्या पुतानूय गायन शिकचें अशी रामभटाची इत्सा आशिल्ली. पूण पिरायेच्या पांचव्या वर्सा बाळकृष्णाची आवय मेल्ल्यान, बाळकृष्णाक भिक्षुकी शिकपाक, इचलकरंजीक ताच्या बापोलया म्हऱ्यांत धाडलो. बाळकृष्णाकूय

भिक्षुकीची आवड नाशिल्ली. ताणें पिरायेच्या धाव्या वर्सा गायन शिकपाखातीर चुलत्याचें घर सोडलें. उपरांत बापूय मेलो. बाळकृष्ण भोंवत भोंवत धार गांवांत देवजीबुवाकडेन गायन शिकपाक रावलो. तीन वर्सांनी बाळकृष्ण धार सोडून ग्वाल्हेराक आयलो. थंय हस्सूखाँचो शिश्य वासुदेवराव जोशी हाचेकडेन गायन शिकपाक गेलो. थंय ताणें स वर्सां गायनाचें शिक्षण घेतलें. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत बाळकृष्णबुवा महाराष्ट्रांत आयलो. मुंबयंत कांय दीस रावतकच तो सातारा-औंधाक गेलो. थंय ताका दम्याचें दुयेंस जालें. मिरज संस्थानाचो अधिपती बाळासाहेब पटवर्धन हाणें वखद दिवन ताका बरो केलो. उपरांत ताका मिरजेक दरबार गवय म्हणून नोकरीय दिली. थंय धा-बारा वर्सां ताणें श्रीमंत बाबासाहेब घोरपडे आनी इचलकरंजीकर हाचेकडेन सुमार ३० वर्सां दरबारी-गवय म्हणून काम केलें.

पं. बाळकृष्णबुवा धारदार आवाजाचो गायक आशिल्लो. ताची गायकी सादी, निर्मळ पूण भारदस्त आशिल्ली. ताणें महाराष्ट्रांत खाशेले ग्वाल्हेर गायकीचो प्रचार केलो. मिरज आनी इचलकरंजीक ताणें गायनाचे वर्ग सुरू केले थंय खूब लोक गायनाचें शिक्षण घेवंक लागले.

पं. बाळकृष्णबुवाचे दोन शिश्य-फांटे आसात. पयल्या फांट्यांत पं. विष्णू दिगंबर पलुस्कर, विनायकबुवा पटवर्धन, नारायणराव आनी शंकरराव व्यास, ओंकारनाथ ठाकूर, वामनराव पाध्ये, प्रा. बा. र. देवधर ह्या नामनेच्या गायकांचो आस्पाव जाता. दुसऱ्या फांट्यांत मिराशीबुवा, अनंत मनोहर जोशी, बापूराव गोखले, राजारामबुवा पराडकर ह्या नांवाजिल्ल्या गायकांचो आस्पाव जाता.

१९२५ वर्सा बाळकृष्णबुवाचो पूत नामनेचो गायक अण्णाबुवा हाका मरण आयिल्ल्यान बाळकृष्णबुवाक खूब दुख्ख जालें. त्या दुख्खान खचून बाळकृष्णबुवाक मरण आयलें.

रसिकांनी ताका 'भीष्माचार्य', 'गायनाचार्य' ह्यो पदव्यो दिल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बाळवेखंड :** (मराठी : पुष्करमूळ; हिंदी : केवडेका मूल, पोहकर मूल; संस्कृत : पद्मपुष्कर, हैमवती; इंग्लीश : जर्मन आयरिस, फ्लॅग आयरिस; लॅटीनः आयरिस जर- मॅनिका; कूळ : इरिडेसी).

हें जायतीं वर्सां जगपी ल्हान वखदी झाड. ही वनस्पत सुमार ६०-९० सेंमीं आसता आनी तिचें खोड जमनींत वाडटा आनी ताचेपसून जमनीर मुळा पसून वाडिल्लेवरी पानांचो गुंजुलो येता. पानां सादीं, लांबशीं तरसादीवरी आनी दोन रांकांनी उर्बी आसून तांचो तळभाग अर्दवट एकामेकांत गुथून उरता. हांचे मदल्यान फुलांचो दांडो येवन ताचेर धव्या आनी जांबळया रंगाची सया आशिल्लीं द्विलिंगी फुलां येतात. स परिदलां पाकळयांवरी, सकयले वटेन जोडिल्लीं पूण वयर मेकळीं आनी पातळिल्लीं, भायल्या परिदलांचेर लांबशे केंस आसतात. फुलांची एकंदर संरचना किटकांकडल्यान परागण घडोवन हाडपाक योग्य अशी आसता. हाचें बोंड तीन उब्यो चिरो पडून फुट्टा.

हें झाड आयर्लंडी वंशांतलें आसून युरोप आनी भूमध्य दर्या वाठारांत मेळटा आनी चड करून इटलींत ताची लागवड करतात. उदेंतेकडल्या देशांनी क्रिस्ताआदल्या काळांत हाची लागवड जाताली हाचो उल्लेख मेळटा.

आठव्या शेंकड्यांत मुसलमान राजकर्त्यांनी स्पेन देश जिखतकच ही वनस्पत स्पेनाभायर व्हेली. बाळवेखंडाच्या खोडाची भारतांत इराणांतल्यान आयात जाता. हालीं काश्मीरांत कांय प्रमाणांत लागवड करतात.

ह्या झाडाक भरपूर सूर्यप्रकाश. बरी सकस शिंपिल्ली जमीन लागता. तेचपरी रोंप लावंचे आदीं भरपूर शेणखत घालचें पडटा. नवी लागवड बियो वा खोडाचे कुडके लावन करतात.

ओरिस, ओरिसरूट वा इरिडिस ऱ्हायझोमा ह्या नांवाच्या मूलक्षोडाच्या सोलून सुकयिल्या कुडक्याक वेपारी म्हत्व आसा. हे कुडके ५-१०X२-३ सेंमी आकाराचे, सुरकुतिल्ले आनी सादारण चेपटे आसतात. हांकां वास येता, पूण ते कोडू आनी तिखट आसतात. भारतीय ओरिसचे कुडके सोलिल्ले नाशिल्ल्यान रंगान चड काळशे आनी उण्या वासाचे आसतात. ह्या कुडक्यांत 'ओरिस तेल' आसता, हांचो उपेग सौंदर्य प्रसाधनां, दंतमजन आदीक सुवाद आनी वास हाडपाक करतात.थंड पेयां, मिठाय, जॅली हातूंत हें तेल घालून सुवाद हाडटात. अत्तराखातीरूय ओरिस तेलाचो उपेग करतात. पूण वासाळ तेलाखातीर हातूंतली ओ. पॅलिडा हीच जात वापरतात. हातूंतल्या बाश्पनशील विद्रावकांच्या आदारान मूलक्षोडापसून रेझिनॉयडाय मेळयतात. ओरिस कुडक्यांत 'इरिडिन' हें फ्लॅव्होन-ग्लुकोसायड, साकर, स्टार्च, रेझिनां, आनी टॅनिनां आसतात. हातूंत उत्तेजक, विरेचक, मूत्रल, आदी गूणधर्म आसून खांक, फिग्दाचे विकार, हांचेर उपेगी पडटात. पुळयो वा घाय हांचेर ताचो लेप लायतात. रूच नासप, अपचन जावप हांचेर ओरिस दितात. केंसांक लावपाचीं तेलां वासाचीं करूंक, तोंडाक सुगंध येवपाक तशेंच दांत सदळ जाल्यार वा दुखल्यार ओरिसचो उपेग करतात. इटलींत ओरिसचे मणी तयार करून तांच्यो माळो करतात. ओ. फ्लोरेंटिना हाच्याय मूलक्षोडापसून वासाचें द्रव मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**बाळाजी बाजीराव :** (जल्मः १२ डिसेंबर १७२१ 'मौजे साते', पुणें; मरणः २३ जून १७६१).

भट घराण्यांतलो तिसरो पेशवो. पयलो बाजीराव हाचो व्हडलो पूत. पेशवो जावपाखातीर फावो आशिल्लें सगळ्या प्रकारांचें शिक्षण ताणें चिमाजी अप्पा आनी अंबाजी पुरंदरे हांचेकडल्यान घेतलें. पयल्या बाजीरावाच्या मरणा उपरांत पेशवाईचीं सुत्रां ताच्या हातांत आयलीं.

बाळाजी बाजीराव पेशवो जालो तेन्ना, मराठी सत्तेचो दक्षिण-उत्तर असो खूब विस्तार जाल्लो. बाळाजी विश्वनाथ आनी पयलो बाजीराव हांणीं मराठी सत्तेचें केंद्रियीकरण करपाचे खूब यत्न केले. पूण तांकां पुरायपणान यश मेळूंक नाशिल्लें. मोगल सत्तेक देंवती कळा लागले उपरांत उत्तर भारतांत साबार ल्हान ल्हान राज्यां अस्तित्वांत आयिल्लीं. मराठी सत्ता केंद्रीत करप आनी उत्तर भारतांतल्या ल्हान ल्हान राज्यांक आपले मांडलीक करून मराठी सत्तेचें व्हडपण प्रस्थापीत करप हो बाळाजी बाजीरावाचो मुखेल हेत आशिल्लो.

सुरवेच्या काळांत बाळाजी बाजीराव हाणें उत्तर हिन्दुस्थानांत मराठी सत्तेचो विस्तार करपाकडेन चड भर दिल्लो. माळव्याचो कारभार पळोवपी नायब सुभेदारीच्यो सनदो सवाई जयसिंगाकडल्यान पेशव्यान मेळयल्यो. खानदेश, माळवा आनी ते पलतडचे सुभे पेशव्याच्या शेकातळा येत रावले. उपरांत ताणें आग्रा, अलाहाबाद, पाटणा आनी बंगाल प्रांतांच्या चौथाईची मागणी दिल्ली दरबारांत केल्ली. चौथाई मेळोवपाखातीर ताका भोसल्याचें सैन्य बंगालच्यान भायर काडचें पडलें. हे घडणुकेक लागून पेशवो आनी रघूजी भोसलेभितर दुस्मानकाय निर्माण जाली. पूण शाहू महाराजान बंगाल प्रांत परत रघूजीकडेन सोंपयलो.

पेशव्याचो उत्तर भारतांत शेक वाडत गेलो तशो तांच्यो मागण्योय वाडत गेल्यो. हाका लागून नव्यान निर्माण जाल्ल्या राजांचे अर्थीक वेवस्थेचेर वायट परिणाम जावपाक लागले.तांचेमदीं असंतोश निर्माण जाल्लो. ह्या कारणावयल्यान बुंदेलाच्या विरसिंगदेव हाणें एके रातीं मराठी फौजेचेर घुरी घालून सरदार ज्योतिबा शिंदे आनी कमावीसदार मल्हार कृष्ण हांच्यो तकल्यो कापून व्हेल्यो. हाचे उपरांतूय ते मराठी सैन्याक सतायत रावले. सागर, झांशी आनी हेरकडेन मराठ्यांनी लश्करी ठाणीं उबारिल्लीं. १७४५ त बाळाजी बाजीराव स्वता बुंदेलखंडांत येवन, ताणें भिलसा आनी जैतपूर प्रांत आपल्या शेकातळा हाडले.

उत्तर भारतांत मराठी सत्तेचो विस्तार खूब वाडिल्लो. पूण दक्षिणेक निजाम-उल मुल्क हाणें मराठ्यांक आडावन दवरिल्ले. १७४८त निजामाक मरण आयले उपरांत ताचे पूत आनी नातू हांचेभितर झगडीं जावपाक लागलीं. हाचो फायदो बाळाजी बाजीरावान घेवन वऱ्हाड, खानदेश, बागलाण प्रांत, नासिक, त्रिंबकेश्वर, कर्नाला, शिवनेरी, अहमदनगर, दौलताबाद, बऱ्हाणपूर आनी विजापूर हे म्हत्वाचे प्रदेश निजामशाही कडच्यान घेतले.

शाहू महाराज जिवीत आसतना पेशवो बाळाजी बाजीराव हाणें सातारा आनी कोल्हापूर ह्यो दोन छत्रपतीच्यो गादयो एक करपाचे खूब यत्न केल्ले. पूण ताका यश आयलेंना. शाहूच्या मरणाउपरांत ताका चलो नाशिल्ल्यान ताराबाईन आपलो नातू राजाराम हाका गादयेर बसोवन पेशव्याक पयस दवरपाचो खूब यत्न केलो. ताराबाईवतीन पेशव्यांआड झगडपाक दामाजी गायकवाड पंदरा हजार सैनीक घेवन सातार्‍याक आयलो. पूण पेशव्यान ताचेर पुरायपणान हार घालून अर्दो गुजरात सुभा आपल्या ताब्यांत घेतलो. उपरांत ब्रिटिशांच्या आदारान आंग्र्यांचें आरमार नश्ट करून तुळाजी हाका बंदखणींत दवरलो. हे घडणुके उपरांत राज्यकारभार पुण्यासावन जावपाक लागलो आनी छत्रपती हो नामधारी उरलो. पुराय मराठी सत्ता पेशव्याच्या हातांत आशिल्ली.

दक्षिणेक मराठी सत्तेची बुन्याद घट्ट आशिल्ली, पूण उत्तर भारतांत ती इबाडत वताली. उत्तरेक आशिल्ल्या मराठी प्रांतांची देखरेख करपाखातीर पेशव्यान साबार सरदारांची नेमणूक केल्ली. पूण तांचेभितर आशिल्ली दुस्मानकाय आनी हेर कारणांक लागून थंय थिराय केन्नाच येवंक शकलीना. १७५७ त अहमद शाह अब्दाली हाणें दिल्लीचेर घुरी घालून राजधानी लुटली. ह्या खिणाक थंय आशिल्लें ल्हान मराठी सैन्य कांयच करूंक शकलेना. १७६० त अब्दाली अफगाणीस्तानासावन परत भारतांत आयलो. ह्या वेळार मराठ्यांच्या चेपणातळा आशिल्ले साबार मुसलमान नवाब अबदालीक मेळळे. तांकां विरोध करपाक सदाशिवरावभाऊन दिल्लीचेर घुरी घाली.पूण दक्षिणेकडच्यान ताका कसलोच आदार मेळूंक शकलोना. उपरांत निराश जाल्ल्या मराठ्यांनी पानिपतचो रेवाडो तोडून दिल्लीक वचपाचो यत्न केलो. १७६१त जाल्ल्या पानितपताच्या झुजांत मराठ्यांचेर पुरायपणान हार पडली. बाळाजी बाजीराव ह्याच काळांत दिल्लीक वचपाच्या मार्गार आशिल्लो. पानिपतचे हारीची खबर ताका वाटेरूच कळळी. हे गजालीचो ताका व्हड धक्को बसलो. तो जड पावलांनी पुण्याक परतलो. पानिपतच्या झुजाचो परिणाम ताचे भलायकेचेर जावन ताका रोखडेंच मरण आयलें.

बाळाजी बाजीराव हाका दोन बायलो आशिल्ल्यो. पयली गोपिकाबाई आनी दुसरी राधाबाई. गोपिकाबाई हिका चार चले आशिल्ले. यशवंतराव हाका ल्हानपणांतूच मरण आयिल्लें. विश्वासराव हाका पानिपतच्या झुजांत मरण आयलें. पयलो माधवराव आनी नारायणराव हे मुखार पेशव्यांचे गादयेर आयले. राधाबाई हिका भुरगीं नाशिल्लीं.

- कों. वि. सं. मं.

**बाळाजी विश्वनाथ :** (जल्म : सुमार १६६०; मरण : २ एप्रिल १७२०, सासवड).

भट घराण्यांतलो पयलो पेशवो. ताचें पुराय नांव बाळाजी विश्वनाथ भट. ताका पेशवाईचो संस्थापक म्हण्टात. कारण पेशवेपदाक उंचेल्या स्थानार पावोवपाक ताचोच म्हत्वाचो वांटो आसा. ताच्या पुर्वजांविशीं

सारकी म्हायती मेळना. पूण कोंकणांतल्या महाल दंडा, राजपुरी आनी श्रीवर्धनांतलें देशमुखीचें वतन ह्या घराण्याकडे आशिल्लें. तेन्ना ह्या मुलखाचेर जंजिराच्या सिद्दीचो शेक चलतालो. ताच्या जांचांक वाजेवन १६९० त तो साताऱ्याक आयलो आनी धनाजी जाधव हाचेकडेन नोकरेक लागलो. फुडें आपली कर्तबगारी दाखोवन ताणें पुणें आनी दौलताबाद ह्या वाठारांचेर सुभेदार आनी सरसुभेदार म्हणून काम केलें.

१७०५ वर्सा मोगलांचे बंदखणींत आशिल्ल्या छत्रपती शाहुचे सुटकेखातीर यत्न करतल्यांमदीं ताचो हात आशिल्लो. खेडाच्या झुजांत ताराबाईक हारोवपाक ताणें वांटो घेतिल्लो. १६५७-१७०७ त ताका मराठी कारभार आनी राजकारण हांचें गिन्यान मेळ्ळें. फुडें शाहू महाराजान ताका राज्याभिशेकावेळार सेनाकर्तो ही पदवी दिली. जेन्ना शाहू महाराजाक, ताराबाई आनी मोगल अधिकाऱ्यासारक्या दुस्मानाकडल्यान त्रास जावंक लागलो, तेन्ना ताणें रीण काडून सैन्य तैनात केलें आनी कृष्णराव खटावकर, दामाजी थोरात, उदाजी चव्हाण ह्या सारक्या पुंडांक आनी हेर दुस्मानांक धांवडावन घाले. ह्याच वेळार कान्होजी आंग्रे ताराबाईक मेळिल्ल्यान तिचो पक्ष घटमूट जालो. अशा वेळार बाळाजीन मोटे कुशळतायेन आनी शिटूकसाणीन कान्होजीक शाहूवटेन हाडलो. ताका सरखेलपद दिवंक लायलें. फुडें १७१३ त शाहून बाळाजीक पेशवेपद दिलें.

१६८१ पसून मोगलांकडेन चलिल्ल्या झुजांत जाधव, घोरपडे, भोंसले, दाभाडे, आंग्रे ह्या सरदारांनी आपल्या बळार फौजो उबारून त्या त्या मुलखाचेर जैत मेळयलें. ह्या सरदारांक बाळाजीन एकठांय हाडले आनी नवे सरदार तयार केले. ह्या वेळार ह्या बळिश्ट सरदारांच्या आनी छत्रपतींच्या संबंदांविशीं प्रस्न निर्माण जालो. सरदार -जहागीरदारांचें म्हत्व वाडत गेलें आनी एकतंत्री राजसत्ते जाग्यार मराठी सत्तेक सरंजामी सत्तेचें स्वरूप प्राप्त जालें. हाका लागून आंग्र्यांकडेन करार केल्ल्यान बाळाजीन एक व्हड प्रस्न सोडयलो. फुडें एक एक सरदार शाहूच्या अधिपत्याखाल येत रावले. तशेंच स्वराज्य, चौथाई आनी सरदेशमुखी हांच्या सनदांनी जो मुलूख आनी जे हक्क छत्रपतीक मेळिल्ले ते अश्टप्रधान आनी हेर सरदार हांचेमदीं शाहूवतीन वांटप जाले.

औरंगजेबाच्या मरणा उपरांत दिल्लीच्या दरबारांत बादशाह फरूख सियर आनी ताका गादयेर हाडपी सय्यद भाव हांचेमदीं वाद चलतालो. तेन्ना सय्यद भावांक आदार दिवपाखातीर शाहूकडेन करार केलो. नोव्हेंबर १७१८ त बाळाजी विश्वनाथ फौजो घेवन सय्यद भावांक आदार दिवंक दिल्लीक गेलो. थंय सत्तांतरण जालें. महमूदशाह सत्तेर आयलो. १७१९ च्या मार्च म्हयन्यांत सनदाचेर नव्यान म्होर बसली. तेन्ना संभाजीची बायल येसुबाय आनी हेर लोकांक मोगलांचे बंदखणींतल्यान सोडोवन तो साताऱ्याक गेलो. अशे तरेन बाळाजी विश्वनाथान शाहुचे सत्तेक मान्यताय आनी थिराय मेळोवन दिली. सय्यद भावांकडेन करार करून ताणें मोगल राजकारणांत प्रवेश मेळयलो आनी हाकाच लागून ताका उत्तरेकडेन मराठी राज्याचो विस्तार करूंक सोंपें जालें.

दिल्लीच्यान परत येतकच तो कोल्हापूरच्या बंदोबस्ताखातीर दक्षिणेंत गेल्लो. थंय कांय तेंप रावन मार्च १७२० त साताऱ्याक येवन थंयच्यान सासवडाक गेलो. थंयच ताका मरण आयलें.

ताचे बायलेचें नांव राधाबाय. ताका पयलो बाजीराव आनी चिमाजी अप्पा हे दोन पूत आशिल्ले.

- कों. वि. सं. मं.

**बाँब :** व्हड वाठाराचो विध्वंस करून उडोवपी एक अस्त्र. धातू, प्लास्टीक वा ते सारकिल्या पदार्थांच्या आवरणांत स्फोटक द्रव्यां, रसायनां वा रोगकारक जंतू भरून विंगड विंगड तरांचे बाँब तयार करतात. गतीची थिराय सांबाळपाखातीर आवरणाच्या भायल्या भागाक पांखां आसतात. अठराव्या शेंकड्या मेरेन ग्रेनेड, तोफगुळो आनी बाँब हांचेमदलो भेद सारको स्पश्ट जावंक नाशिल्लो. आतां विमानांतल्यान सोडटात त्या मुक्त अस्त्रांक (रॉकेट आनी क्षेपणास्त्रां सोडून) बाँब म्हण्टात. बाँब ही बिंदूची मोख आशिल्लें (Point target) अस्त्र नासून वाठाराची मोख थरयल्लें (Area target) विध्वंसक उडोवपी विमानां, आघात आनी वा फायटर- बाँब विमाना हांचेवरवीं सादारणपणान शंबर मीटरांपरस चड उंचायेवयल्यान थरयल्ले मोखीचेर बाँब मुक्तपणान सोडटात.

**प्रकार :** बाँबाच्या निमाण्या कार्यावयल्यान ताचे प्रकार थरयतात. देखीक- उजो लावप, प्रभंजन (blast), खंडण (fragmentation), पिडांचो प्रसार, पर्यावरणांतले बदल, किरणोत्सर्ग (rodioactvity), विदलन (burst) आनी विदारण (Shattering) आदी; वयलीं सगळीं कार्यां अणुबाँब, हायड्रोजन बाँब आनी न्यूट्रॉनबाँब हांकां लागुनूच जातात. प्रचलीत बाँब अशे तरेन आसात-

**भोवकामी बाँब :** हाका लोखणी बाँब अशेंय म्हण्टात. प्रभंजन, खंडण, विदलन आनी विदारण करप हें ताचें मुखेल कार्य. हाचें वजन ५० ते १,५०० किलो मेरेन आसता. हातूंत ५०% म्हास्फोटक द्रव्य आसता. उणे उंचायेवयल्यान हो बाँब उडयतात. अशें आशिल्ल्यान ह्या बाँबाक आशिल्ल्या पांखांक लागून ताका सकयल पडपाक वेळ लागता. देखून बाँब उडोवपी विमान आपले मोखी सावन बरेंच फुडें वतकच बाँबाचो स्फोट जाता. इमारती, तेलाचे वा उदकाचे नळ हांचो विध्वंस करपाखातीर ह्या बाँबाचो उपेग करतात. ह्या २५० किलोच्या बाँबाक लागून सुमार २० मी. व्यासाचो आनी ५ मी. खोलायेचो फोंड तयार जाता. आपटुपाच्या बिंदूच्या (Point of impact) भोंवतणच्या वाठारांत सुमार ४,२२५ चौखण मीटर क्षेत्रांत ह्या बाँबाक लागून जिवीतहानी जावपाचो संभव आसता.

**विभंजक बाँब :** हाचें आवरण सरयांचें वा खंडणक्षम लोखणाचें आसता. बाँबाच्या वट्ट भारामदल्या १४% भाराचें स्फोटक आसता. स्फोटाक लागून सरयांचे वा लोखणाचे कुडके चोंयवशींनी नेटान उसळटात. उकत्या मळार आशिल्ले सैनीक, फुटूंक शकतात अशो वस्तू, विमानां हांचो नाश करपाखातीर हे बाँब उपेगाक येतात.

**खंडक बाँब (Bluck burster) :** हाचें आवरण सामकें पातळ आसता. भेदपाची शक्त त्या मानान उणी आसता. पूण प्रभंजन शक्त बरीच खर आसता. हाची बांदावळ हेरांच्या मानान सादी आशिल्ल्यान हवाई सत्रेवरवीं ती मोखीचेर सोडटात. दुसऱ्या म्हाझुजांत १२ टनांचे असले कांय बाँब तयार केल्ले.

**क्लस्टर बाँब :** क्षेपणास्त्रान नाळ, मोर्चे, रणगाडे, हांचेसारक्या ल्हान मोखींचेर अचूकपणान बाँब उडोवप कठीण आसता. देखून समप्रमाण विध्वंस करपाखातीर हे बाँब वापरतात. एका कोशांत शेंकड्यांनी ल्हान बाँब भरतात. तातूंत शेंकड्यांनी तिख्याच्यो गुळयो भरतात. सुमार १०० ते १५० मीटर उंचायेवयल्यान कोश संपीडीत वायून उक्तो करतात आनी ल्हान बाँबाचो पावस पडटा आनी तांच्या स्फोटाक लागून तिख्याच्यो गुळयो सगळयाक पातळटात आनी मोखींत घुसतात.

**उजो लावपी बाँब :** ह्या बाँबाक लागून उजो लागता. ते एक ते पन्नास कील वजनाचे आसतात. हातूंत पॅट्रोल भरसण वा थर्मायट हीं उज्याचीं द्रव्यां आसतात.

**नेफाम बाँब :** ह्या बाँबाक लागून उजो लागता. खोबरेल, ॲल्युमिनियम आनी पेट्रोलच्या सांद्र द्रव्याची भरसण वा पॉलिस्टायरिन आनी बॅन्झीन हांची भरसण पातळ पत्र्याच्या कोशांत भरतात. भरसणीक नेट दिवपाक एके स्फोटक कांडयेभोंवतणी फॉस्फरस दवरतात. हाचो स्फोट जातकच ३० ते ४० मीटरांमेरेन भरसणीचो सडो पडून ताका उजो लागता. उज्याचें तापमान सुमार १.१०० डिग्री सें. इतलें आसता. दुसऱ्या म्हाझुजांत जपानी शारांचेर व्हडा प्रमाणाचेर नेफाम बाँब घाल्ले.

**चिलखताचो बाँब :** झुजारी व्हडीं (तारवां) फोडपाखातीर हो बाँब वापरतात. तांचो चडसो भाग तिख्याचो आसता. हो बाँब चिलखत आनी तटबंदी भेदून भितर वता आनी मागीर तांचो सवकासायेन स्फोट जाता.

**रसायनीक बाँब :** धुंवर आनी विखाळ वायू सोडपी बाँब दुस्मानाक निरिक्षण करूंक जावंचें न्हय, म्हणून ह्या बाँबावरवीं धुंवराचो पड्डो तयार करून सैन्याच्यो हालचाली करतात.

**उदकांतले बाँब :** हाचो उपेग पाणबुडयो फोडपाखातीर करतात.

**बाँब हल्ल्याचे परिणाम :** बाँब हल्ल्याचे परिणाम खूब भिरांकूळ आनी खर आसतात. दुसऱ्या म्हाझुजांत ग्रेट ब्रिटनांत सत्तर हजार नागरिकांक मरण आयलें. जर्मनीचेर ४.३४ लाख टन भाराचे बाँब घाल्ले. ताका लागून पांच लाख लोक मेले आनी ७.८ लाख जखमी जाले. अणूस्फोटाक लागून सुमाराभायर विध्वंस आनी जिवीतहानी जांव येता. जितली जितली तंत्रगिन्यानांत उदरगत जायत आसा, तितले तितले खर आनी भिरांकूळ, विध्वंसक बाँब तयार जायत आसात.

- मुकेश थळी

**पूरक नोंद :** अणुबाँब.

## बाँबे आर्ट सोसायटी :

महाराष्ट्रांतली एक नामनेची कला संस्था. १८५७त मुंबयंत 'सर जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट' ची स्थापणूक जाल्ली. हे संस्थेंत शिकून तयार जाल्ल्या कलाकारांच्या कलागुणांची समाजाक वळख जावंची आनी सादारण रसिकांचें चडांत चड मनोरंजन जावंचें ह्या उद्देशान १८८८ त बाँबे आर्ट सोसायटीची स्थापणूक केली. कलाकृतींचें वर्सुकी प्रदर्शन भरोवन व्हड आनी बऱ्या कलावंतांच्या कलागुणांचो सन्मान करप हो सोसायटीचो मुखेल वावर आशिल्लो.

'सर जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट' ही अस्तंत भारतांतली एकली एकसुरी कलासंस्था आशिल्ल्यान ते संस्थेंतले चडशे मानेस्त,अधिकारी आनी आदले विद्यार्थी हे आर्ट सोसायटींत वांटो घेताले. त्या काळांतले मुंबयंतले कलामोगी आनी समाजांतले फुडारी हांणीय सोसायटीचे उदरगतींत हातभार लायला. लँगहॅमर, आर्थर स्लेझिंजर, आर. व्ही. लायडन ह्या अस्तंत्या कलाकारांचो तातूंत वांटो आसा. त्या काळांतलो मुंबयचो नामनेचो उद्देगपती सर कावसजी जहांगीर हाणें हे संस्थेंत अध्यक्ष म्हणून आनी बॅरिस्टर ऑक हाणें सोसायटीचो सेक्रेटरी म्हणून हे संस्थेंत भरपूर वावर केला. बॅरिस्टर ऑक तीन वर्सां हे संस्थेचो सेक्रेटरी आशिल्लो.

हे सोसयटीचें कार्यालय रंपार्ट रोडावयल्या सद्याच्या आर्टिस्ट सेंटराच्या जाग्यार आशिल्लें. बाँबे आर्ट सोसायटीस सलून ह्या नांवान ताका वळखताले. सद्या सोसायटीचें कार्यालय जहांगीर आर्ट गॅलरींत आसा. ताच्या दर वर्सा भरपी प्रदर्शनांत भारत भरच्यान जायते कलाकार आपल्यो कलाकृती धाडटात. हीं प्रदर्शनां मुंबयंत कौन्सिल हॉल, टाऊन हॉल, सर जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट, कावसजी जहांगीर हॉलांत आनी केन्नाकेन्ना पुण्यांतूय भरतात. भारताचे सुटकेआदीं वर्सुकी प्रदर्शन हें भारतीय कलाविश्वांतलो सगळयांत व्हड आनी समाजीक म्हत्वाचो सुवाळो मानताले. हे सोसायटीचें भांगरापदक वा हेर खंयचेंय इनाम मेळप हें कलाकाराचे नदरेन व्हड मानाचें जातालें. हे संस्थेखातीर व्हड व्हड संस्थांनी तशेंच राज्यपालान दवरिल्लें भांगरापदक आसतालें. दर वर्सा हो सुवाळो मुंबय राज्याच्या राज्यपालाचे हस्तुकीं जातालो. प्रदर्शनाच्या वेळार वागड्यांक चित्राच्यो छापिल्ल्यो प्रतीकृती आशिल्ले छापणावळीचे कॅटलॉग दिताले.

सर कावसजी जहांगीर हाणें आपल्या पुताच्या अपघाती मरणा

उपरांत ताचें स्मारक म्हणून १९५१ 'जहांगीर आर्ट गॅलरी' ह्या कलाविथीची स्थापणूक केली. उपरांत ही संस्था प्रदर्शनां आयोजीत करपाखातीर बाँबे आर्ट सोसायटीकडेन दिली. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत कलाकारांचे वाड्टे संस्थेवांगडा जायत्या नव्या नव्या वेपारी स्वरुपांच्या कलाविथींची भर पडली. ह्या कलाविथींच्या कार्याचें स्वरूप कलावंत आनी गिरायक हांचेमदल्या दलालांचें आशिल्ल्यान कलाकृतींचीं मोलांय भरपूर वाडलीं. अशे हे वेपारी सर्तीच्या काळांत बाँबे आर्ट सोसायटीचेर बरोच परिणाम जालो.

सोसायटीच्या अमृतमहोत्सवी वर्सांत जहांगीर आर्ट गॅलरींत १९६६ त एक व्हड प्रदर्शन भरयलें. हातूंत राजा रवि वर्मा, अमृता शेरगिल, पेस्तनजी बमनजी, आबालाल रहिमान, सारक्या कशिल्ल्या कलाकारांवांगडाच हालींच्या काळांतल्या हुसेन, सोझा, रझा, मोहन सामंत, गायतोंडे हांचे सारक्या आंतरराश्ट्रीय नामनेच्या कलाकारांच्या कृतींचो आस्पाव आशिल्लो.

फुडें बदलपी काळा वांगडाच सोसायटीचें कार्यक्षेत्रूय वाडलें. जहांगीर आर्ट गॅलरीस सोसायटीन नव्या नव्या उपक्रमांक सुरवात केल्या. नामनेच्या कलासंग्रहाचीं वेंचीक प्रदर्शनां भरयलीं. तशेंच कलेक वाव मेळपाखातीर वाचनालय, वेगवेगळीं चित्रपट प्रदर्शनां, कलेविशीं भासाभास अशे वेगवेगळे उपक्रम सुरू केल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बाँबे नॅचरल हिस्ट्री सोसायटी ः** प्राणीविज्ञानाविशींच्या टिपणांचो आनी निरीक्षणांचो जिज्ञासूंक लाव मेळचो आनी जनावरांचे जिणेंतल्या वेगवेगळ्या नमुन्यांचें प्रदर्शन मांडचें, ह्या हेतान ही संस्था मुंबयंत १८८३ त स्थापन जाली. सुरवेक हे खाजगी संस्थेंत फकत सात वांगडी आशिल्ले आनी तांणींच १८८६ त एक नेमाळें काडलें आनी तें Journal of the Bombay Natural History Society ह्या नांवान आयजूय चालू आसा.

फाटल्या कितल्याशाच वर्सांसावन हे संस्थेकडेन जनावरांचे आनी वनस्पतींचे नमुने, तांची वळख पटोवपाखातीर धाडटात. ते सांबाळून दवरपाखातीर संस्थेकडेन दितात. संस्थेच्या संग्रहांत अशे भारतांतल्या हजारांनी सस्तन जनावरांचे नमुने आसात. हातूंत कितल्याशाच दुर्मीळ जनावरांचीं चामडीं आसात.

सुकण्यांच्या संग्रहांत २५,००० सुकणीं आसात. तेभायर नुस्तांच्यो विंगड विंगड जाती, सरकटपी प्राणी, उभयचर (उदकांत आनी जमनीर दोनूय कडेन रावपी), हजारांनी किडे आनी अपृश्ठवंशी (फाटीचो कणो नाशिल्लो) प्राणी हांचे नमुने संस्थेच्या संग्रहालयांत आसात. हो संग्रह साबार लोकांक पळोवपाखातीर उक्तो ना. पूण ह्या विशयांतले तज्ञ आनी संशोधक हांच्या अभ्यासाखातीर तो उक्तो आसा.

मुंबय सरकार आनी प्रिन्स ऑफ वेल्स म्युझियम हांच्या पालवान १९२३ त ह्या संग्रहालयांत एक प्रकृतीविज्ञान (नॅचरल हिस्ट्री) विभाग उक्तो केलो. हाची देखभाल बाँबे नॅचरल हिस्ट्री सोसायटीच्या पालवान केली. सगळ्या जनावरांचें प्रदर्शन कलात्मक रितीन तांचे सैमीक परिस्थितीक जुळटा अशें केलें. आतां हें प्रदर्शन लोकांखातीर उक्तें दवरलां.

संस्थेचें नेमाळें वर्सांतल्यान तीन खेपे उजवाडाक येता. हातूंत उदेंतेकडल्या वाठारांतलीं जनावरां आनी वनस्पती हांचेर लेख आसतात. आतांमेरेन पिसोळीं, बदकां, सोरोप, किडे, पाम रूख, रेंवटांतली वनस्पत, वखदी आनी विखाळ वनस्पत, ऑर्किडस ह्या वेगवेगळ्या विशयांचेर आदारिल्ले तज्ञांचे लेख उजवाडाक आयल्यात. तेखेरीज संस्थेन कांय ग्रंथूय उजवाडायल्यात. भारतांतलीं सुकणीं, शिकारी सुकणीं, भारतांतलीं जनावरां, वेली आनी झिली, पिसोळीं, मॉलस्का प्राणी आदी वेगवेगळ्या विशयांचेर हे ग्रंथ आसात. ल्हान भुरग्यांखातीर संस्थेन वेगवेगळ्या विशयांचेर (देखीक-भारतांतलीं सुकणीं, सुंदर वनस्पती, मॉन्सून वनस्पती आदी) आनी वेगवेगळ्या भारतीय भाशांनी पुस्तिकाय उजवाडायल्यात.

संशोधन क्षेत्रांतूय ही संस्था क्रियाशील आसा. संस्थेन बऱ्योच निरीक्षण मोहिमो काडल्यो आनी तातूंत १९११-२३ ह्या काळांत सस्तन प्राण्यांची पळोवणी करपाखातीर काडिल्ली मोहीम म्हत्वाची आशिल्ली. हे मोहिमेंत पुंजायिल्ल्या सस्तन प्राण्यांच्या नमुन्यांचेर बरेंच संशोधनात्मक लिखाण उजवाडाक आयलां. उदेंत घाटांतली सुकण्यांची पळोवणी करपाची मोहीम १९२९ त हातांत घेतली आनी आतां ती देशभर चालूच आसा. हे मोहिमेंत भारत, भूतान, अस्तंत घाट, अंदमान आनी निकोबार जुंवे ह्या वाठारांतल्या सुकण्यांचे नमुने पुंजायल्यात. एका आंतरराश्ट्रीय प्रकल्पांत आर्थ्रोपॉड (संधीपाद) जनावरांवरवीं प्रसार पावपी व्हायरसांच्या प्रसारांतल्या सुकण्यांचे सुवातेविशीं संशोधन करपाखातीर दोन लाख सुकण्यांचेर १९५९-७० ह्या काळांत प्रयोग केले. तेचप्रमाण अमेरिकेंतलें येल विद्यापीठ आनी स्मिथसोनियन इन्स्टिट्यूशन हांच्या पालवान गुजरातांतल्या गीरच्या रानांतले शींव आनी हेर रानटी खुरी जनावरांचोय परिस्थितीविज्ञानीक अभ्यास संस्थेवरवीं सुरू आसा. ही संस्था मुंबय विद्यापिठाकडेन संलग्न आसून सुकणीं, सरकटपी प्राणी आनी सस्तन प्राणी हांचो अभ्यास हांगा करून संशोधकान विद्यापिठाची एम्. एस्सी. वा पीएच. डी. पदवी घेवं येता.

रानटी जनावरांची राखण आनी संवर्धन करपाच्या मळारूय ही संस्था सरकाराकडेन सहकार्य करता. संस्थेचे कार्यकर्ते शाळा-महाविद्यालयांक भेटी दिवन विद्यार्थ्यांमदीं सैमाची आवड निर्माण करपाखातीर व्याख्यानां दितात. तशेंच कांय होतकरू विद्यार्थ्यांक अनुदान वा शिश्यवृत्त्योय दितात.

संस्थेचें एक व्हड ग्रंथालय आसून तातूंत प्राणीविज्ञान, वनस्पतीविज्ञान आनी तांचेकडेन संबंदीत अशा वेगवेगळ्या विशयांचीं पुस्तकां आसात.

संस्थेची वेवस्था पळोवपाखातीर एक मानादीक कार्यवाह आनी १० वांगड्यांची एक कार्यकारी समिती नेमतात. हे समितीची बसका म्हयन्यांतल्यान एकदां जाता आनी तिचो अहवाल सगळ्या वांगड्यांक धाडटात. सगळ्या वांगड्यांची साबार बसका वर्सांतल्यान एकदां जाता. भारत, पाकिस्तान, श्रीलंका तशेंच युरोप, अमेरिका आनी संवसारांतल्या हेर भागांतले सुमार एक हजारांवयर तज्ञ हे संस्थेचे वांगडी आसात.

हे संस्थेन आतांमेरेन जीवविज्ञानाविशींच्या लोकशिक्षणाचें आनी संशोधनात्मक अशे बरेंच कार्य केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**बॉबे हाय :** मुंबय लागसरल्या सवथळ दर्याच्या तळापोंदा मेळिल्लो खनीज तेलाचो व्हड वाठार. १९७० त भारतांत जमनीचेर फकत गुजरात आनी आसाम राज्यांनी सैमीक वायू आनी खनिज तेलाचें उत्पादन जातालें. फुडें देशांतल्या वाडट्या उद्देगीकरणाखातीर खनिज तेलाक मागणी येवंक लागली. तेन्ना भूयकंपीय सर्वेक्षणाच्या आदारान दर्यादिगे लागसरल्या सवथळ वाठारांत तेलाचो सोद घेवंक लागले. अस्तंत देगेलागसार गुजरातांत अंकलेश्वर, कलोल, मेहसाणा, खंबायत आदी वाठारांनी खनिज तेल आनी सैमीक वायूचें उत्पादन चालू आशिल्लें. ताचेवयल्यान खंबायताच्या आखातांतल्या सवथळ दर्यांत आनी गुजरात तशेंच महाराष्ट्राचे अस्तंत देगेवयल्या भागांत सोद घेतलो तेन्ना बॉबे हाय वाठाराचो सोद लागलो, जमनीपोंदचे फातराचे संरचनेचें वर्णन करतना 'हाय' हो शब्द वापरतात. हो तेलाचो वाठार मुंबयचे वायव्येक १६० किमी. अंतराचेर आसा.

हांगाचें उदक सुमार ७५ ते ९० मी. खोल आसा. सुरवातीक सागरसम्राट नांवाच्या एका छिद्रणयंत्राच्या आदारान एक बांय खणली. मे १९७४ त बांयंत तेल लागलें. ह्या तेल वाठाराची संरचना घुमटा आकाराची आसा. ह्या वाठारांत खनीज तेलाचो सांठो आशिल्ले फातर आनी तीन कोटी वर्सांआदल्या काळांतले चूनखडक आसात. हे चूनखडक दक्षिण ट्रॅप ह्या ज्वालामुखी फातरार सांचिल्ले आसात.

फुडें ह्या वाठारांत जायत्यो बांयो खणून ह्या वाठाराची उदरगत केली. ह्या वाठाराचो आवाठ सुमार २००० चौ. किमी. आसून खनिजतेलाच्या फातराचो आवाठ सुमार ३,५०० चौ. किमी. आसा. ह्या तेल वाठाराच्या लागसार वसई संरचना, तारापूर संरचना, तापी संरचना, डहाणू संरचना, रत्नागिरी संरचना आदी भूयवैज्ञानीक संरचनांचो सोद लागलो. वसई वाठारांत तेल आनी सैमीक वायूचे सांठे मेळळ्यात, जाल्यार रत्नागिरी वाठारांत फकत तेल मेळळां.

बॉबे हाय आनी लागसरल्या वाठारांनी सागरसम्राट, हाकोन मॅग्नस, शेनॉन डोह, डालमोहाय आनी गेटिसबर्ग ह्या पांच सागरी छिद्रणयंत्रांच्या आदारान तेलाचो सोद घेवपाखातीर तशेंच ताची उदरगत करपाखातीर बांयो खणल्यो. ह्या बांयांतल्यान मेळपी तेलाचें उत्पादन वाडोवपाखातीर आम्लीकरण तंत्र वापरलें. ह्या तंत्रांत पायपाच्या आदारान हायड्रोक्लोरिक आम्ल बांयंतल्यान चूनखडकांत घुसयतात. ह्या आम्लांत कांय प्रमाणांत चूनखडक विरगळून तेलाचो प्रवाह वाडटा.

बॉबे हाय वाठाराची उदरगत करपाखातीर बांयो खणून त्यो उत्पादन मंचाक जोडल्यात. ह्या बांयांतल्यान मेळपी तेल आनी सैमीक वायू एक व्हड प्रक्रियामंचार एकठांय करतात. हो प्रक्रियामंच उत्तर बॉबे हाय वाठाराच्या मदल्या भागाक आसा. ह्या मंचाचे सुवातेर दर्या ७३मी. खोल आसा. हो मंच तीन माळयांचो आसा. ह्या मंचाचेर त्या वाठारांतल्या १९ मंचांवयल्या बांयांतल्यान काडिल्लें अशुध्द खनीज तेल एकठांय करतात आनी ताचेर प्रक्रिया करून तातूंतल्यान खनिंज तेल, सैमीक वायू आनी उदक वेगळें करतात.

बॉबे हाय वाठारासावन उरण मेरेन २०३ किमी. लांबायेचो तेलवाहक आनी वायूवाहक नळ दर्यापोंदा घाल्यात. तेल नळाचो आवाठ ७६२ मिमी. व्यासाचो आनी वायू नळाचो आवाठ ६६० मिमी. व्यासाचो आसा. ह्या नळांतल्यान तेल आनी सैमीक वायू शुध्दीकरण कारखान्यांक तशेंच रसायनीक सारीं आनी खनिज तेल करपाच्या कारखान्यांत धाडटात. हांगा मेळपी सैमीक वायू हो खनिज तेलावांगडाच मेळिल्ल्यान उरणाच्या संयंत्रांत खनिजतेल वायूचें उत्पादन जाता. हो वायू सिलिंडरांनी भरून घरगुती जळणाखातीर वापरतात.

प्रकियामंचावयल्यान येवपी तेलाचे आनी वायूचे नळ दर्यांत आशिल्ल्यान ते कळमेवपाची तशेंच तांचेर वेगवेगळे थर बसून ते दुबळे जावपाची चड शक्यताय आसता. तेखातीर वेळच्या वेळार तांची तपासणी जाता. हाचेभायर सागरी पर्यावरणाचें प्रदुशण जावचें न्हय देखून वेळच्या वेळार काळजी घेतात. दर्याच्या पोंदा आशिल्ल्यो तेलाच्यो बांयो सतत बऱ्यो उरच्यो देखून प्रशिक्षीत पाणबुड्यांचे पंगड आसात. उत्पादन मंचाक जोडिल्ले बांयतल्या तेलाच्या आनी सैमीक वायूच्या उत्पादनाचेर संगणकाच्या आदारान लक्ष दवरतात. बॉबे हाय तेल वाठार आनी उरण देगेवयलो उद्देगीक प्रकल्प हांचेमदल्या रेडिओ संपर्काखातीर इनसॅट ह्या कृत्रीम संदेशवहन उपग्रहाचो आदार घेतात.

एप्रिल १९८० आदीं उत्तर बॉबे हाय वाठारांत स उत्पादन मंचांचेर दरेकीं चार अशो २४ बांयो पूर्ण जाल्यो. दक्षिण बॉबे हाय क्षेत्राचो विकास करपाखातीर उत्तर बॉबे हाय मंचावरी दक्षिण बॉबे हाय मंच उबारला.

सप्टेंबर १९८१ त बाँबे हाय वाठाराचे उदेंतेक ३५ किमी. अंतराचेर एक नवोच तेलाचो वाठार मेळ्ळा. ह्या वाठाराक बी-५७ अशें म्हण्टात. ह्या वाठाराचें क्षेत्रफळ ८० चौ. किमी. आसा.

बाँबे हाय वाठारांतल्यान दर वर्सा सुमार साठ लाख टनांपरसूय चड खनीज तेलाचें उत्पादन जाता. संबध्द वायूचें उत्पादन सतत चालू दवरप गरजेचें आसता आनी हांगा सदांच सुमार २० लाख घनमीटर संबध्द वायूचें उत्पादन जाता. वसई वाठारांत फकत निस्संबध्द वायू मेळटा. ह्या वायूचें उत्पादन जाय तेन्ना चालू वा बंद करूंक मेळटा. संबध्द आनी निस्संबध्द वायूचें विभाजन (वेगवेगळ्या तापमानांक मेळपी वायूघटक वेगळे करपाची क्रिया) करतकच ताचेपसून पांच वायूघटक मेळटात. ताका सी-१, सी-२, सी-३, सी-४ अशीं नांवां दितात. हातूंतले सी-१ साऱ्या खातीर, सी-२ खनिज तेल रसायनाखातीर, सी-३ खनीजतेल रसायनां आनी घरगुती जळणाखातीर तशेंच सी-४ घरगुती जळणाखातीर वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बॉक्सर किड :** (जल्म :१९११; मरण : १९९१ शिवोले).

नामनेचो कोंकणी तियात्रिस्त. ताचें मुळावें शिकप शिवोले गांवांतले इगर्जेचे शाळेंत जालें. भुरगेपणांत खूब मस्तेपणां, झगडीं, मारामारी करतालो देखून ताका 'बॉक्सर' हें नांव पडलें.

आठ वर्सांचो आसतना बापायन ताका मुंबय व्हेलो. थंय तो थोडें भोव वाचूंक आनी बरोवंक शिकलो. ताका दर्जीपणूय येतालें. उपरांत तो मुंबयच्या गवालिया टँक वाठारांतले एके गॅरेजींत मॅकानिकपण शिकलो.

मुंबयच्या ग्रॅन्ड हॉटेलांत ताणें काय तेंप नोकरी केली. निमाणेकडेन ताणें सेंट्रल रेल्वेंत 'फिटर' म्हणून २१ वर्सां काम केलें.

सुरवेकसावन तो ल्हान ल्हान संस्कृतीक कार्यावळींनी वाटो घेतालो. सतरा वर्सांचो आसतना ताणें एर्नेश्त बॉर्जिसच्या 'बोमायचो' ह्या तियात्रांत पयले पावल दवरलें (१९३४) आनी आपले कलेच्या आदारान तो रोखडोच वेवसायीक माचयेर आयलो.

'ओस्तोरी' हो ताचो सगळ्यांत पयलो तियात्र. उपरांत ताणें 'एडिटर पोच दे, 'बो मायी' हो तियात्र माचयेर हाडलो. 'किड-यांग-रोड' नांवाचें त्रिकुटूय ताणें घडयलें. या त्रिकुटान खूब नामना जोडून, कोंकणी तियात्राचे माचयेर आपलो खर प्रभाव घालो. ताच्या हेर तियात्रांवांगडाच 'सोमजोणेत चूक जाली', 'जुलूम', 'किडाचें सपन' 'आंकवार आनी काजारी' हे तियात्र नामनेक पावले.

'आमचें नशीब' ह्या कोंकणी फिल्मांतूय ताणें काम केलां.

किड बॉक्सर हो राश्ट्रवादी विचारांचो आशिल्लो आनी राश्ट्रीय फुडाऱ्यांविशीं आनी देशाविशीं ताका आदर आशिल्लो. इतलें आसुनूय गोंय मुक्ती चळवळीच्या वेळार तेन्नाच्या कांय वावुरप्यांनी आनी फुडाऱ्यांनी ताका अराश्ट्रीय थारावन ताचेर बगलांट घाल्ल्यान ताका बंदखणीची ख्यास्त भोगची पडली.

कीड बॉक्सर हो एक व्हड तांकीचो कलाकार आशिल्ल्यान ताका कोंकणी तियात्री माचयेवयलो 'चार्ली चॅपलीन' अशें मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बॉक्सायट :** ॲल्युमिनीयमाच्या उदकाळ ऑक्सायडांचे भरसणेन तयार जाल्लो फातर. फ्रांसांतल्या ले बॉ हे सुवातेर बॉक्सायट हें पयलीं मेळ्ळें आनी पी. बेर्त्ये हाणें ताचें पयलें विश्लेशण केलें (१८२१). ह्या गांवावयल्यान ए. द्युफ्रेन्वा हाणें सुरवेक ताका ब्युक्सायट अशें (१८४५-४७) आनी उपरांत आंरी सॅन्त क्लॅर द विल हाणें स्पॅलिंगांत सुदारणा करून बॉक्सायट हें नांव दिलें.

हो फातर पिठ्या रुपांत चड करून अंदुकाश्मी ते कलायाश्मी (वाटकुळ्या सुक्ष्मकणांच्या पुंजकावरी) संरचनेचो आसता. हो चडसो अखंड रुपांत मेळटा. हो जसो आनी ज्या स्वरुपांत उत्पन्न जाता ताचेर हाचे भौतिक गुणधर्म आदारून आसतात. ताची घटसाण १-३ आनी विशिश्ट गुरुत्व २-२.५७ इतलें आसता. हाका लोळको धवो, करडो, हळदुवो, गुलाबी, तांबडो ह्यो रंगसया मारतात. हातूंतलीं मुखेल घटक खनिजां गिब्सायट ($Al(OH)_3$), बोहेमायट ($AlO(OH)$) आनी डायास्पोर ($AlO_2$) हांचे फकत क्ष-किरणावरवींच परिक्षण करूंक मेळटा. उद्देगीक बॉक्सायटांत चडशे पयले दोन घटक मुखेलपणान आसतात. तातूंत उणेंच ३२% ॲल्युमिना ($Al_2O_3$) आसता. तिनांयनी लोखणाचीं ऑक्सायडां आनी मातयेचीं खनिजां ह्यो मुखेल अशुध्दी आसून बॅझाल्टापसून तयार जाल्ल्या बॉक्सायटांत टिटॅनियमाचे ऑक्सायडूय बऱ्याच प्रमाणांत आसतात. अशे तरेन हातूंत लिमॉनायट, हेमॅटायट, मॅग्नेटायट गोएथायट, सिडेरायट, केओलिनायट, क्लायाकायट ल्युकॉबक्झीन, रूटायल, ॲनॅटेज, आदी खनिजां गौण रुपांत आसतात आनी कॅल्शियम, मॅग्नेशियम आनी मँगनीझ हांचीं ऑक्सायडां उण्या प्रमाणांत आसूंक शकतात. केन्ना केन्नाय हातूंत निओबियम, क्रोमियम, व्हॅनेडियम, झिर्कोनियम, फॉस्फरस, कोबाल्ट, निकॅल, कथील, भांगर हांचीं खनिजां आनी हिरेय मेळ्ळयात. बॉक्सायट हें वितळपाक जड आनी आकार दिवपाक कठीण आसून बंद नळयेंत तापयल्यार तातूंतल्यान उदक भायर येता.

१९२७ वर्सा सी. एस. फॉक्स हाणें बॉक्सायटाचे जांभ्याचो प्रकार आनी टॅर्रा रोसाचो प्रकार अशे दोन गट केले. बॉक्सायट हे ऊर्ध्वजनित म्हळयार पावसाचे जमनींत वचपी उदकाचे क्रियेन तयार जाल्लें आसून तें वेगवेगळ्या प्रक्रियांवरवीं तयार जाल्लें आसता.

ॲल्युमिनियमाचें प्रमाण चड आसपी सिलिकेटी फातरांचेर एका फाटोफाट एक गिमाळो आनी पावसाळो आसपी जलवायूमानाचे परिस्थितींत बरोच तेंप वातावरणक्रिया जावन आनी तातूंतल्यान सिलिका आनी हेर घटक वचून बॉक्सायट तयार जाता. अशे तरेन बॅझाल्टापसून तयार जाल्ल्या बॉक्सायटांत टिटॅनियम ऑक्सायडाचें प्रमाण चड आसता. देखीक-मध्य प्रदेशांतलें बॉक्सायट अशे तरेन स्फटिकी फातरांपसून जागच्या जाग्यार तयार जाल्लें बॉक्सायट सादारणपणान लॅटेरायट गटांत पडटा. अशा बॉक्सायटाचो उकतो भाग खरखरीत दिसता आनी ताचो उबो छेद वांकड्या-तिकड्या मोडणांच्या रेशांवरी दिसता. उकतें पडल्यार हें बॉक्सायट घट्ट आनी टणक जाता. ताका लागून ताचो विटांवरी उपेग करूंक येता. मातयेचो चूनखडक डोलोमायट आनी माती हांचेर वातावरणक्रिया जावन बॉक्सायट तयार जाता. अशे तरेन तयार जाल्ले चूनखडक आनी डोलोमायट हांचेवयलें बॉक्सायट सादारणपणान दुसऱ्या गटांतलें आसता. देखीक- फ्रांस आनी इटलिंतलें बॉक्सायट.

संवसारांत सगळेकडेन बॉक्सायट मेळटा. ताचो संवसारीक सांठो दोन अब्ज टन आसुंये असो अदमास आसा. अमेरिका, फ्रांस, हंगेरी, युगोस्लाविया, रशिया, जामायका, गियाना, ब्राझील, सुरिनाम, मोरोक्को, इंडोनेशिया, मलेशिया, ग्रीस, इटली, गिनी, ऑस्ट्रेलिया, वॅस्ट इंडीस, इस्ट इंडीस, गोल्ड कोस्ट, हायती, डॉमिनिकन रिपब्लीक आदीं वाठारांनी बॉक्सायट मेळटा.

भारतांत बिहार (पालामाऊ, रांची, राजमहाल), कर्नाटक (बेळगांव, कॅनरा, चित्रदुर्ग, बाबा बुढण दोंगर), ओरिसा (कालाहंडी, संबळपूर, बोलांगिर), मध्य प्रदेश (जबलपूर, कटनी, शहाडोल, सरगुजा, जशपूर, बिलासपूर), आंध्र प्रदेश (विशाखापटणम्, उदेंत आनी अस्तंत गोदावरी जिल्हे), तमीळनाडू (शेवराय, निलगिरी दोंगुल्ल्यो), गुजरात (जामनगर, खेडा, कच्छ, भडोच, सुरत), केरळ (क्विलॉन, थिरुवनंथपुरम-त्रिवेंद्रम, पलनी दोंगुल्ल्यो), जम्मू आनी काश्मीर, (नंदागली), महाराष्ट्र आनी गोंय ह्या राज्यांनी बॉक्सायट मेळटा.

भारतांत बॉक्सायटाचे सांठे २०० कोटी टनांपरस चड आसात असो अदमास आसा. हालूंतले अर्दे सांठे आंध्र प्रदेश आनी ओरिसांत आसून तांकां उदेंत किनारपट्टेचे सांठे अशें म्हण्टात. भारतांत मेळपी सांठे चडशे जांभ्यावांगडा मेळटात. उदेंत दर्यादिगेवयले सांठे खोंडालायट नांवाच्या फातरापसून तयार जाल्ले आसात. बाकीचे सगळे सांठे चडशे बॅझाल्टापसून तयार जाल्ले आसात.

बॉक्सायट हें ॲल्युमिनियमाचें म्हत्वाचें धातूक आशिल्ल्यान आनी ॲल्युमिनियमाक वेव्हारांत म्हत्वाची सुवात आशिल्ल्यान बॉक्सायटाचें संवसारीक उत्पादन वाडत आसा. सादारणपणान बॉक्सायट सुरंगाच्या आदारान फोडटात. उपरांत वाहक पट्ट्यांवयल्यान व्हरून सांठयतात. जायते फावट धुवून आनी भाजून तें शुध्द करतात. निमाणें बेयर पद्दतीन ताचेपसून ॲल्युमिना मेळयतात.

बॉक्सायटाचो चडसो उपेग ॲल्युमिनियम धातू मेळोवपाखातीर करतात. हाचे भायर तुरटी आनी ॲल्युमिनियमाचीं हेर संयुगां तयार करपाखातीर आनी खनीज तेल, उदक, साकर हांच्या शुध्दीकरणांतल्यान गाळपाचे क्रियेंतूय बॉक्सायट वापरतात. तिख्याचे मिश्रधातू, सौंदर्य प्रसाधनां, इलेक्ट्रॉनिकी, कंवची, कागद, कपडे, रंगद्रव्य, प्लास्टिक, रबर, मृत्तिका, आदी उद्देगांनी बॉक्सायटापसून मेळयल्लें ॲल्यूमिना वापरप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**बॉक्सींग :** हातांत चामड्याच्यो मुठी घालून झगडपाचो एक खेळाचो प्रकार. पुर्विल्ल्या काळांत हो खेळ फकत मुठींनी खेळटाले. देखून ह्या खेळाक, मुश्टीयुध्द अशेंय म्हण्टात. श्रीकृष्ण-कंस, भीम-दुःशासन हांच्यो मुश्टीयुध्दाच्यो खबरो महाभारतांत मेळटात. ग्रीसांतल्या पोरन्या वण्टींवयल्या चित्रांनी (इ.स.प. १५२०) मुश्टीयुध्दाचें चित्रण मेळटा. पूण १६८१ त आल्बॅमार्लेच्या ड्युकान आपलो खाटीक आनी बोटलेर हांचेभितर आयोजीत केल्ले बॉक्सींग सर्तीची पयलेच खेप रीतसर नोंद जाल्या. बॉक्सींग सर्तीचो पयलो वस्ताद म्हणून वळखतलो, जेम्स फिग हाणें १७१९त लंडनांत बॉक्सिंगाचें प्रशिक्षण दिवपी शाळा सुरू केली. १८६० च्या अदमासाक क्विन्स बॅरीचो आठवो मार्कूस जॉन डग्लस हाणें बॉक्सिंगाचे नेम थरोवन त्या खेळाची पद्दतशीर मांडणी केली. हातांत चामड्याच्यो मुठी घालून झगडपाची पद्दत ताणेंच सुरू केली. हातांत चामड्याच्यो मुठी घालून क्विन्सबॅरीच्या नेमांचेर आदारीत पयली संवसारीक वस्तादपणाची बॉक्सींग सर्त ३० जुलय १८८४ दिसा, आयर्लंडाचो जॅक डिम्से आनी अमेरिकेचो जॉर्ज फुलजेम्स हांचेभितर न्यूयॉर्क शारांत जाली. ते सर्तींत जॅक डिम्से हो आपली हुशारी कसाक लावन पयलो वस्ताद थारलो. उपरांत ह्या खेळांत इल्ली इल्ली वाड जायत रावून खेळगड्यांची वजना प्रमाण जड, मध्यम, हलको अशी विभागणी करून सर्ती आयोजीत करतात. National Boxing Association (NBA) USA, १९२० वा World Boxing Association (WBA) १९६२; British Boxing Board of Control (BBBC) १९२९, World Boxing Council (WBC) Mexico, १९६३; International Boxing Federation (IBF) USA १९८३; आनी World Boxing Organization (WBO) १९८८ ह्या बॉस्कींग मळावयल्या संस्थांनी ह्या खेळाचे नेम आनी सर्ती नियंत्रीत केल्यात.

ह्या खेळांत दोन खेळगडे हातांत १७०.१० ते २८३.५० ग्रॅ. (स ते धा औंस) वजनाच्यो चामड्याच्यो मुठी घालून एकामेकांचेर मुठी मारून आपल्या विरोधकाक थरावीक वेळांत हारोवपाचो यत्न करतात.

चडाय आनी बचाव अशा दोन आंगांनी खेळगड्यांची हुशारी कसाक लागता. दर एका नेमबध्द धपक्याक, धपको चुकोवपाक आनी खेळपाचे खाशेले अशे पद्दतीक थरावीक गूण आसतात. जिखिल्ल्या खेळगड्याक २० गूण आनी प्रतिस्पर्धी खेळगड्याक ताचे परस उणे गूण दितात.

जमनीपसून सुमार ०.७६ ते ०.९५ मी. (२½ फूट ते ३ फूट) ऊंच आशिल्ल्या लांकडी चौखण आखाड्यांत हो खेळ खेळटात. हो आखाडो ३.६५मी. x ३.६५ मी. (१२ फूट x १२ फूट) वा ४.२६मी. x ४.२६मी. (१४फूट x १४फूट) वा. ६.१०मी. x ६.१०मी. (२०फूट x २०फूट) इतल्या आकारांचो आसूं येता. ताचे भायली माची (प्लॅटफॉर्म) सुमार ४६ सेंमी. आसता. माचयेचो वयलो सुमार १.९सेंमी. भाग मोव अशे गादये सारक्या आवरणान धांपतात. ताच्या चारूय वटांनी दोर बांदिल्ले आसतात. त्या दोन दोरांमदलें अंतर ४० सेंमी. (१ फूट ४ इंच) ते ५० सेंमी. (१ फूट ८ इंच) मेरेन आसता. हे दोर २ ते ४ आसतात. खेळगडे ह्या आखाड्या भायर वचपाक शकनात. ४५ किग्रॅ. परस चड वजन जावं १७ वर्सां परस चड पिरायेच्या गटांत तीन मिनटांचो एक भोंवाडो आनी एका मिनटाचो विसव अशे तीन डाव आसतात. जाल्यार १७ वर्सांपरस उणे पिरायेच्या जावं ४५ किग्रॅ. परस उण्या वजनाच्या गटाखातीर दोन मिनटांचो भोंवाडो आनी एका मिनटांचो विसव (2+१+2+१+2) अशे तीन डाव आसतात. आंतरराश्ट्रीय आनी उक्त्या सर्तींनी तीन तीन मिनटांचे २० डावूय आसतात. खेळगड्यांचे प्रतिस्पर्धी सारके आसचे देखून ४७ किग्रॅ. वजनापसून ९१ किग्रॅ. वयर मेरेन णव गट आसतात. खेळगड्यान खिळे (स्पायक्स) आशिल्ले बूट, सदळ अशी चड्डी, तोंडांत भितर 'गमशिल्ड' आनी भेंडासकयल 'सॅंटर गार्ड' हीं साधनां आपल्या संरक्षणाखातीर घालपाक जाय असो नेम आसा.

मज्जातंतूंच्या भागाचेर, काळजाचेर, जावं खाडकेचेर धपको बसलो आनी धा सेकंदां पयलीं खेळगडो परत खेळपाक शकलोना जाल्यार धपको मारपी जिखता. ह्या खेळाच्या नेमाप्रमाण पंच मदींच खेळ थांबोवन खेळगड्याक समज दिवपाक शकता. तशेंच खेळाखातीर नेमिल्लो दोतोरूय खेळगड्याक जाल्ले अपघाती दुखापतीपसून वाटावपाक खेळ बंद करपाक सांगूक शकता. जिखिल्ल्या भोंवाड्याक ५ गूण आसतात. दोनूय खेळगडे समान आसतात. तेन्ना चडाय करपी म्हणजेच शैलीदर्शी धपके मारपी जिखता. एका खेळगड्याच्या भेंडाक निळो पट्टो आसता जाल्यार दुसऱ्याच्या भेंडाक तांबडो पट्टो आसता. दोनूय खेळगड्यांचे हात धरून आनी जिखिल्ल्या खेळगड्याचो हात वयर उबारून पंच, जिखिल्लो खेळगडो जाहीर करता. खेळगड्यांची सेवा करपाक दर एका खेळगड्याक एक सहाय्यक आसता.

खेळगडे खेळाक सुरवात करतना एकामेकांक हात दितात. त्या वेळार दावो पांय फुडें आनी उजवो पांय फाटीं दवरून तोल सांबाळटात.



बॉस्किंगाचें कांय डावपेच

दावो हात फुडें पूण खांद्यामेरेन ऊंच व्हरून उजवो हात आडवो धरून (खाडकेची राखण करपाखातीर) धपको दिवपाखातीर तयार रावतात. खाडकी हो ह्या खेळांत मुखेल मोख आसता. दाव्या हातानूय खांद्याची राखण करपाक जाता.

आक्रमक धपक्यांचे स प्रकार आसात. दाव्या हाताचो धपको आपल्या वजनाच्या नेटाचेर मारतात. दावो धपको (लॅफ्ट हूक) कोंपरान वांकडो करून बरगड्यांचेर वा पोटाचे खळयेंत मारतात. हो धपको आपले मोखीचेर सारको मारपाक येवंचो म्हणून दावो हात नाकाचेर व्हरपाची वा उडवो धपको बरगड्यांचेर मारपाची नक्कल करतात. प्रतिस्पर्धी जर दोनूय मुठींनी हल्लो करपाक आयलो जाल्यार निसरतो धपको मारतात. ह्या प्रकारचे धपके उजव्या हातानूय मारतात. पूण खेळटना दाव्या हातापरस उजवो हात फांटी आशिल्ल्यान धपको मारतना ताका चड अंतर फाटीं घालचें पडटा. हाका लागून चडसो उजवो हात वापरिनात. उजव्या हाताचो धपको हो आकस्मिक आशिल्ल्यान तो चड परिणामकारक आसता. दाव्या हाताच्या धपक्या उपरांत रोखडोच उजव्या हातान दाडवणांचेर दिल्ल्या धपक्याचे पद्दतीक 'एक-दोन-धपको' अशें म्हणटात. ह्या खेळांत दुसऱ्याचेर परत चढाय करुनूच आपली बरी राखण करपाक जाता. दोनूय मुठींचो धाली भाशेनूय उपेग जाता. कुशीक सरप, ओणोव

घालप, पयस वचप, तकली एकेवटेन करप सारकिल्या गजालींक ह्या खेळांत चड म्हत्व आसा. दोनूय खेळगडे जर सामके लागीं आयले वा सामके एकामेकाक भिडले जाल्यार हातांतल्यान सुटून वचून थोड्याच अंतरावयल्यान धपके (शॉर्ट आर्म) मारतात. तशेंच खेळगडो लागीं येवपाक लागतकच दाव्या हातान सरळ धपके मारून ताका पयस करतात. खेळगडो जर आखाड्याच्या कोनशाक सांपडलो जाल्यार दोनूय मुठींनी तकली आनी शरिराची राखण करून भायर येवपाक शकता. बोमले सकयल, मुठी उगडून हाताच्या तळटांनी, मनगटान वा कोंपरान धपको मारप, तकले फाटल्यान वा मानेचेर मारप, मूत्रपिंडाचेर मारप., प्रतिस्पर्धी सकयल पडलेउपरांत ताका मारप, खेळगड्याक घट धरप, आपटप, धुकलून उडोवप, कुस्ती खेळप, पडिल्ल्या खेळगड्याचेर घालून घेवप, हात वा मुठी घट धरून दुसऱ्या हातान धपके मारप, कानांच्या दोनूय वटांनी दोनूय हातांनी एकाच वांगडा धपके मारप, आखाड्याच्या दोरयांचो वायट उपेग करप, धपको मारचे पयलींच सकयल पडप ह्यो गजाली घडल्यो जाल्यार खेळगड्याक पयलीं समज दितात, ना जाल्यार मागीर बादूय करतात. खेळगड्यान केन्ना खेळचें न्हय हेविशींय नेम केल्ले आसात. देखीक- गुंगेचें इंजेसांव घेवन खेळपाक मेळना, एका दोळयान कुड्डो आशिल्ल्याक खेळपाक मेळना, फीट वा मल्लुकेचें आशिल्ल्याक, भेड्याक वा जखमी व्यक्तीकूय खेळपाक मेळना.

बॉक्सिंगाचो आस्पाव ऑलिंपीक खेळांनी १९०४ त पयले फावट आनी १९०८ त दुसरे फावट जालो. उपरांत १९२० सावन बॉक्सिंगाचो खेळ दर एके ऑलिंपीक सर्तींत जायत आसा.

१९०४ ते १९९२ मेरेन बॉक्सिंगाचें ऑलिंपीक सर्तींतलें वस्तादपण हातासपी मुखेल देश-

| देश | भांगरा पदक | रुप्या पदक | कांशा पदक | वट्ट |
|---|---|---|---|---|
| अमेरिका | ४७ | २० | २८ | ९५ |
| रशिया | १४ | २० | १८ | ५२ |
| इंग्लंड | १२ | १० | २१ | ४३ |
| पोलंड | ८ | ९ | २६ | ४३ |
| इटली | १४ | १२ | १३ | ३९ |
| क्युबा | १९ | १० | ५ | ३४ |
| जर्मनी | ६ | ११ | १० | २७ |
| आर्जेंटीना | ७ | ७ | ९ | २३ |

ऑलिंपीक वस्तादपण आनी संवसारीक हौशी (amateur) वस्तादपणाखातीर मुश्टीयोद्द्यांचे वजनाप्रमाण वेगवेगळे पंगड केल्यात ते अशे-

| | | | |
|---|---|---|---|
| Super Heavyweight | ९१ किलांवयर | Heavy weight | ९१ कील |
| Light Heavy weight | ८१ कील | Middle weight | ७५ कील |
| Light Middle | ७१ कील | Welter weight | ६७ कील |
| Light welterwight | ६३.५ कील | Light weight | ६० कील |
| Feather weight | ५७ कील | Bantam weight | ५४ कील |
| Flyweight | ५१ कील | Light-fly weight | ४८ कील |

कॅशस क्ले (महम्मद अली), ज्यो फ्रेझियर, सोनी लिस्टन, लॅरी होल्म्स, फ्लॉयड पॅटरसन, मायक टायसन, जेम्स डग्लस, इवँडर होलीफिल्ड, रिद्दीक बोवे हे संवसारीक वस्तादपण हाताशिल्ले कांय नामनेचे मुश्टीयोध्दे. भारतांतलो कौरसिंग हाका आशियाई भांगरापदक वस्तादपण १९८२ त फावो जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**बॉनसाय (ल्हान झाड) :** सदच्या व्हड झाडाक कृत्रीम उपायांनी तांची वाड खुटोवन दिल्ल्या सोबीत अशा आकाराच्या झाडाक हें नांव दिलां. हाच्या विशिश्ट अशा आकाराक लागून हें झाड घरांत खंयूय दवरूंक मेळटा. ही कला आनी आकार दिवपाचें तंत्र, जपानांत चड प्रगत जालां. 'बॉनसाय' हें उतर 'बॉन' आनी 'साय' ह्या दोन जपानी उतरांपसून तयार जालां. बॉन म्हळयार सवथळ आयदन आनी साय म्हळयार ल्हान झाड. बॉनसाय हें उतर 'पेंटसाई' ह्या चीनी उतरावयल्यान तयार जालां.

**इतिहास :** बौध्द देवळांभोंवतणीं हीं झाडां लायताले असो धाव्या शतमानांतलो उल्लेख मेळटा. जपानांत पंदराव्या शतमानांत सामुराई झुजाऱ्याचो मुखेली आशिकागा (आठवो शोगून) हाणें एक बौध्द देवूळ बांदून ताचे भोंवतणीं धवे रेंवेंत पायन झाडां लायलीं, जीं मोटवींच उरलीं. हीं मोटवीं झाडां सोबीत दिसतालीं. हाचेवयल्यानच ल्हान झाडाची कल्पना अस्तित्वांत आयली. 'टोकोनोमा' म्हळयार घरांतली, बुध्दमुर्ती दवरपाची पवित्र सुवात. हाचे भोंवतणीं फुलां सजोवप आनी उजवाती लावपाची पद्दत आशिल्ली. थंय ताटलेंतल्यान पायन झाडां लावपाची पद्दत सुरू जाली. हिकाच बॉनसाय म्हण्टात. हें शांततायेचें, आनंदाचें तशेंच चड पिरायेचें प्रतीक मानतात. जपानांत श्रीमंत धरून गरिबांमेरेन

एक तरी बोनसाय झाड लायतातूच. कुंड्यांतल्या ल्हान झाडाचो पयलो जपानी पुरावो टाकाकाने टाकशिना हाच्या १३०९ तल्या वण्टीक लावपाच्या चित्रांत दिश्टी पडटा. १३५१ तल्या 'बोकी-कोटोबा' नांवाच्या वण्टीचित्रांत बॉनसान म्हळयार ल्हान बाग दाखयल्ली आसून, तातूंत पायन आनी कॅमेलिया हीं झाडां ल्हान रुपांनी दिसतात. विसाव्या शतमानाचे सुरवेक जपानांत हाको-निवा हो प्रकार प्रचलीत आशिल्लो. हाको-निवा म्हळयार लांकडी उदारे काशींत ल्हान प्रमाणांत सैमीक दृश्य करताले. १९००च्या सुमाराक इझुमी-चिसेन हाचे आदले पद्दतींत मातये जाग्यार केटो-त्सुची नांवाच्या पिठाचो उपेग करून हीं चित्रां करताले. हातूंतल्यानच बॉनकई ही कला फुडें आयली. हातूंत ल्हान ताटली घेवन तातूंत रंगीत रेंव, रंगीत फातर, उदकांत भिजून मोव जाल्लें कागद हांच्या आदारान सैमीक दृश्यां तयार करताले. हातूंतल्यानच फुडें सैमीक माध्यमावरवीं व्हड झाडां ल्हान स्वरुपांत वाडोवपाची कल्पना म्हळयार 'साईकेई' फुडें आयली. हे पद्दतीक जपानांत 'टोरिकी' म्हण्टाले. रेंव आनी चित्रविचित्र आकाराचे फातर घेवन बॉनसेकी नांवाचीं सैमीक चित्रां तयार करपाची आनीक एक कला अस्तित्वांत आशिल्ली. पूण हातूंत झाडाचो आस्पाव नासतालो. तिचो उगम महाराणी सुइको (५९३-६२८) हिच्या काळांत जाल्लो. त्या काळांत जपानी दरबाराक चीनांतल्यान वेगवेगळ्या आकारांचे फातर भेट म्हणून धाडटाले. जपानांत उदाऱ्या आयदनांतल्या झाडाक 'हाची-नो की' म्हण्टाले आनी तें कुंड्यांतल्या (हाचीयुयी) झाडापरस वेगळें आशिल्लें. 'हाची-निवा' (ताटलेंतली बाग) आनी बॉनकेई हांचेपसून ल्हान झाडां वाडोवप्यांक वेगळेपण दाखोवपाखातीर ल्हान झाडां करपाचें वेगळें तंत्र विकसीत केलें आनी ताका बॉनसाय हें नांव दिलें.

१९०९ त लंडनांत मोटव्या झाडांचें प्रदर्शन भरिल्लें, जांचेवरवीं अख्ख्या संवसाराचें लक्ष हे कलेकडेन गेलें. बॉनसाय प्रकारांत झाडाचे पिरायेक चड म्हत्व दिनात. पूण ताचो सोबीत असो आकार आनी स्वरूप ओडलायणें करप हाका म्हत्व दितात. जपानांत कांय मोटवीं झाडां ६००-८०० पिरायेचीं आसात. कांय झाडां सैमीक रितिनूच मोटवीं आसतात. अशीं झाडां वेंचून तीं कुंडेंत लावन तांचेर मोटवेपणाचे कांय संस्कार करून तांचो आस्पाव मोटव्या झाडांमदीं केलो. तांचे सैमीक पिरायेविशीं खात्रीचो पुरावो मेळोवन निमाणें तांची पिराय थरयली. सैमांतलीं मोटवीं झाडां सोदून काडून तीं कुंडेंत रोवप हो जपानी लोकांचो नाद आशिल्लो आनी ते ह्या झाडांक कुंड्यांतलीं झाडां म्हण्टाले. जपानांतल्या मुरोमाच्या काळाच्या निमाणें (१३३५-१५७३) कुंड्यांतल्या झाडांच्या आकारांनी सुदारणा घडोवन हाडली. फुडें मेजी काळांत (१८६८-१९१२) हे कलेची खुबूच उदरगत जाली. सैमीक तरेन मोटवें आनी जांचें मोटवेंपण जतनाय करून दवरलां अशीं कांय झाडां जपानांतल्या (टोकियोंतल्या) शाही उद्यानांत आसात.

जपानांत ल्हान झाडां तयार करपाखातीर ज्या झाडांचो उपेग करतात तीं झाडां अशीं- बाराय म्हयने पानां आशिल्लीं झाडां : सार्जंट ज्युनिपर (ज्युनिपेरस चायनेन्सिस सार्जेंटी), येद्दो स्प्रूस (पिसीया जेझोयेन्सिस), जपानी सीडार (क्रिप्टोमेरिया जॅपोनिका) जपानी धवो पायन (पायनस पार्विफ्लोरा), जपानी हॉली (इलेक्स क्रेनॅटा) आनी ॲझेलियाचे वेगवेगळे प्रकार.

**पानझडी झाडां :** करडे सालीचो एल्म (झेल्कोवा सेरॅटा), त्रिशूल मॅपल (ॲसर बर्जेरियॅनम), फ्लावरिंग क्विन्स (कीनोमेलिस जॅपोनिका), हॉथॉर्न क्रिटिगस वंशांतल्यो जाती, जपानी जरदाळू (प्रुनम ममे), मोटवें डाळींब (प्युनिका ग्रॅनॅटम नागा) आनी जायत्या तरांची ल्हान पानांचीं आनी ल्हान फुलांचीं रानटी सफरचंदां (क्रॅब ॲपल्स).

हांचेभायर ल्हान झाडां करपाखातीर जपान आनी अमेरिकेक जे जातीचीं मोटवीं झाडां करतात तीं अशीं- सोनेरी लार्च (स्युडोलॅरिक्स ॲमाबिलिस), जपानी लार्च (लॅरिक्स लेप्टोलेपिस), ॲटलास सीडार (सीड्रस ॲटलांटिका). पसरून वाडपी ज्युनिपर प्रकार अशे- ज्युनिपेरस स्क्वॅमेटा प्रोस्ट्रेटा, जपानी बीच (फॅगस जॅपोनिका), अमेरिकन आनी जपानी हॉर्नबीन (कार्पिनस कॅरोलायनियॅना आनी का. जॅपोनिका), चीनी हॅकबॅरी (सेल्टिस सायनॅन्सिस), रॉकस्प्रे (कोटोनिॲस्टर हॉरिझाँटेलिस), रॅडवूड (सेक्कोया सेंपर्विरॅन्स), आनी डॉन रॅडवूड (मेटासेक्वोया ग्लिप्टोस्ट्रोबायडीस). घरांत दवरपाचीं मोटवीं झाडां अशीं- गार्डेनिया (गार्डेनिया रॅडिकॅन्स), बॉक्सवुड (बक्सस मायक्रोफायला), धवो सीडार (कॅमिसायपॅरिस थायॉयडिस) मॉंटेरी आनी ॲरिझोना सायप्रस (क्युप्रेसस मॅक्रोकार्पा आनी क्यु. ॲरिझोनिका), हिनोकी सायप्रस (केमिसायपॅरिस ऑबच्युसा), फायर थॉर्न (पायराकँथा कॉक्सिनीया) आनी ज्युनिपर, डाळींब, डॉन रॅडवूड, रॉकस्प्रे आनी फ्लावरिंग क्विन्स.

भारतांत वड, आंबो, पिंपळ, कोंडो, कागदी लिंबू, चींच, डाळींब, पेर, चिकू, संत्रां, बोगनवेलीचे (पेत्रोलीचे) वेगवेगळे प्रकार सोनचांफो आदी झाडांचीं मोटवीं झाडां केल्यांत.

मोटवीं झाडां करपाच्यो सादारण पांच पद्दती आसात. १) सैमीक तरेन वाड खुंटिल्ल्या झाडापसून २) बीं घालून आयिल्ल्या रोंपांपसून ३) छाट कलमापसून ४) दुसऱ्या झाडार कलम करून ५) दाब कलम आनी विभागणी करून.

मोटवीं झाडां चड करून कुंडेंत, ताटलेंत वा उदाऱ्या आयदनांत वाडयतात. दर एक ते तीन वर्सांनी वा केन्ना केन्ना एका वर्सान प्रतिरोपण करतात. सादारणपणान पावसाळ्याचे सुरवातीक कुंडी वा आयदन बदलप आनी मुळां कापप हें म्हत्वाचें आसता. ह्या वेळार उपेगांत हाडपाचे मातयेचे प्रकार त्या त्या मोटव्या झाडाचेर आदारून आसतात. ह्या वेळार पयलीं माती मुळापसून काडून घेवन उपरांत मुखेल मुळाचो आनी कडेच्या मुळांचो बरोचसो भाग कापून उडयतात. पोंदचीं मुळां कापता

आसतना तें झाड सदापर्णी काय कितें हें जाणून घेवन तेप्रमाण मुळां उणीं चड दवरतात. उपरांत तें झाड नवे कुंडेंत लायतात आनी कांय दीस त्या झाडाची बरे तरेन जतनाय घेतात.

ह्या झाडाक जाय तसो आकार दिवपाखातीर तांब्याचीच सरी वापरतात. नव्यो कळयो येवपा वेळार सरी बांदिनात. खांदयेक सरी बांदता आसतना ती चड दाबून बांदिनात. तशेंच, खांदी चड बागोवपाची आसल्यार सरयेचें एक तोंक जमनींत घट बसोवंचें पडटा. एक फावट बांदिल्ल्यो सरयो काडटकच परत वर्सभर मेरेन बांदिनात. ह्या झाडाक आकार दितना नाका आशिल्ल्यो आनी वांकड्यो-तिकड्यो खांदयो कापून उडयतात.

जपानांत मोटव्या झाडांच्या खांदयांच्या स्वरुपावयल्यान जायते प्रकार आसात. तातूंतल्या पांच प्रकारांची चड नामना आसा- १) सरळ २) सरलाभ (पालसो पूण सरळ) ३) बागवल्लो ४) पालसो ५) हुमकळपी.



बॉनसायाचे प्रकारः १- सरळ, २- सरलाभ (पालसो पूण सरळ), ३- बागवल्लो, ४- पालसो, ५- हुमकळपी.

बॉनसायाचे वट्ट २१ प्रकार आसात. खांदयांच्या आकारांवांगडाच हेर गजालींचेर आदारिल्लें मोटव्या झाडांचें वर्गीकरण अशें करतात- अ) आयदनांतल्या झाडांची संख्या, आ) खोडांची संख्या, इ) खांदयांचो आकार, ई) झाडाची उंचाय, उ) झाडाचें मुळावण. वयर दिल्ल्या झाडाची संख्या हातूंत एका आयदनांत एकूच झाड ह्या प्रकाराक जपानी भाशेंत 'इपॉनयुई' म्हण्टात. ह्याच प्रकारांत खांदयांचे वेगवेगळे आकार आशिल्ले उपप्रकार अशे- १) सरळ (चॉकन), २) पालसो (शाकन), ३) वांकडें-तिकडें खोड आशिल्लें (बंकन), ४) प्रपाती (केनगाय), ५) पिळांचें खोड आशिल्लें (हंकन) ६) फातरांत वा फातरार मूळ आशिल्लें एक झाड (इशि-झुकी).

**(अ) दुसरो भागः** एका आयदनांत एकापरस चड झाडां आशिल्ले प्रकार- योसे-युई १) इकाडा-बुकीः हातूंत जायत्यो उपखांदयो आशिल्ली खांदी घेवन तिची एकेकडली उपखांदी काडून ती आडवी करून मातयेंत लायतात. २) नेत्सुरानीः हातूंत पांच सात मुळां जोडिल्लीं आनी उणे उंचायेचीं झाडां आसतात. ३) सैमीक दृश्यां : एक मुखेल झाड आनी हेर ल्हान झोंपां , दोंगर आदी सैमीक चित्रांचो आभास दाखोवपी. ४) लादयेर तीन वा चार झाडां लावन सड्याचो आभास दाखोवप.

**(आ) खोडाची संख्याः** हातूंत झाड एकूच पूण ताका दोन खोडां आसतात (सोकान). हातूंत तीन खोडां आशिल्ल्या प्रकाराक संकन अशें नांव आसा. ई) झाडांची उंचाय- मोटव्या झाडाची उंचाय ६० सेंमी. मेरेन आसून उणी उंचाय म्हळयार ५.१५ सेंमी. उंचाय आशिल्ल्या झाडाक 'मेमबॉनसाय' म्हण्टात. उ) झाडाचें मुळावणः हाचेखातीर माती, फातर, लादी, भायर आयिल्लीं मुळां हांचोय उपेग करतात. भायर आयिल्ल्या मुळांच्या प्रकाराक 'निएगरी' अशें म्हण्टात.

मोटव्या झाडांक सतत सारें घालचें पडटा. १) सरकी, सरसू वा सोयाबीन हांची पेंड, २) हाडांचो पिठो, सुकें खारें, कुकडांचो गू. हांचेपसून तयार केल्लें कार्बनी सारें; हातूंत थोडो गोबरूय भरशितात. फुला आनी फळां येवपाखातीर भरपूर प्रमाणांत फॉस्फरसयुक्त सारें दितात.

मोटव्या झाडांखातीर लागपी आयदनां वा कुंड्यो हांची सोबीतकाय वाडोवपी असो आकार आनी रंगसंगती पळोवन घेवंची पडटा. केन्नाकेन्नाय एकेच जातीचीं वा वेगवेगळया जातींचीं मोटवीं झाडां एकठांय वाडयतात आनी तांची सोबीतकाय वाडोवपाखातीर वेगवेगळया आकारांचे ल्हान व्हड फातर दवरतात.

मोटव्या झाडांची सतत जतनाय घेवंची पडटा. सेगीत उदक दिवप, कापणी करप, सारें घालप, सुर्याच्या उजवाडाक दवरप, रोगापासून जतनाय घेवप, ह्योय गजाली बारीकसाणीन पळोवंच्यो पडटात. जपानांत आतां मेरेन सुमार पाचशांवयर झाडांक मोटवें रूप दिवपाचे यशस्वी यत्न जाल्यात. जपानांत असल्या मोटव्या झाडांचीं प्रदर्शनां भरतात. थंय ह्या विशयाचेर भासाभास करपी मंडळांय आसात. भारतांत मुंबय इंडो-जपनीझ असोसिएशन हे संस्थेच्या बॉनसाय अभ्यास मंडळावतीन मोटव्या झाडाचे कलेचो प्रसार करप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## बॉयड-ऑर, जॉन :

(जल्म : २३ सप्टेंबर १८८० किलमॉर्झ, ॲरशर); मरण : २५ जून १९७१, एड्झल-ॲंगस).

स्कॉटिश आहारशास्त्राविशींचो तज्ञ आनी शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो मानकरी. स्कॉटलंडांतल्या एका गिरेस्त घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताणें एम. ए; एम; डी. डीससी ह्यो मानवी वैजकींतल्यो उंचेल्यो पदव्यो मेळयल्यो. सुरवेक कांय तेंप ताणें वैजकीचो वेवसाय केलो, पूण मोनजातीच्या आहाराविशीं खास अभ्यास करपाखातीर तो ॲबर्डीन विद्यापिठांतल्या रौयट रिसर्च इन्स्टिटयूट हे संस्थेंत गेलो. ह्याच

सुमाराक एलिझाबॅथ पिअर्सन हिचेकडेन तो लग्न जालो. फुडें १९१४ त रौयट रिसर्च इन्स्टिट्यूटाचो तो संचालक जालो. हांगा १९४५ त निवृत्त जायमेरेन तो त्याच पदाचेर आशिल्लो. थंय जनावरांच्या आहाराविशीं मुळाव्या प्रस्नांचेर संशोधन करपाखातीर १९२९त ताणें 'इम्पीरीअल ब्युरो ऑफ ॲनिमल न्युट्रिशन' ही स्वतंत्र संस्था स्थापन केली. पयल्या म्हाझुजा वेळार (१९१४-१८) ताणें ग्रेट ब्रिटनच्या भूसैनिकी पथकांत जखम्यांक वखदां दिवपाचें आनी तांची सेवा करपाचें काम केलें.

जनावरांच्या आहाराविशींचे आपले विचार ताणें Minerals in Pasteur and their Relation to Animal Nutrition (१९२८), The National Food Supply and its Influence on Public Health (१९३४) आनी Food, Health and Income (१९३६) ह्या पुस्तकांवरवीं उजवाडायले. ह्या पुस्तकांतले दोन निश्कर्श अशे. एक- ग्रेट ब्रिटंनात १०% लोक अवपोशित आसात आनी दोन- मुळावीं पोशणद्रव्यां आशिल्ल्या आहाराचो खर्च देशांतल्या अर्द्या लोकांच्या आवाक्या भायलो आसा. हें पुस्तक १९३५ तल्या आहार येवजण शास्त्राच्या अहवालाचेर आदारीत आशिल्लें. ताचो उपेग दुसऱ्या म्हाझुजा वेळार शिदो वांटपाचे खास करून रेशन दिवपाचे येवजणेक बुन्यादी थरलो.

बॉयड-ऑर हाणें ग्रेट ब्रिटनांतल्या खांची-कोनशांनी प्रवास करून व्याख्यानां, खबरांपत्रां आनी नभोवाणी ह्या माध्यमांवरवीं आपले सकस आहाराविशींचे विचार वितरायले. अन्न/उत्पादनांतल्या ब्रिटीश शासनान केल्ले कपातीचेर ताणें खर टिका केली. ताच्या कार्याक लागून ब्रिटनाक दुसऱ्या म्हाझुजांतलें अन्नाविशींचें धोरण आनी रेशनिंगची पद्दत निश्चित करपाक खूब मदत जाली.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत शासनाच्या अन्नधान्य धोरणाविशींचे शास्त्रीय समितीचो तो सल्लागार वांगडी आशिल्लो. त्याच सुमार शेतकी शास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून ताची ॲबर्डीन विद्यापिठांत नेमणूक जाली (१९४२-४५). हे खेरीज ताणें ग्लॅसगो विद्यापिठाचो कुलमंत्री, कुलपती, ब्रिटीश संसदेचो वांगडी ह्या वेगवेगळ्या उच्च पदांचेर काम केलें. एकवटीत राश्ट्र ह्या संवसारीक संघटनेतल्या फाओ (FAO) हे संस्थेच्या पयल्या म्हानिदेशकपदाचेर ताची नेमणूक जाली (१९४५-४८). अन्न ही संवसारीक एकचाराची मूळ बुन्याद, हो विचार मांडून (१९४८) ताणें आंतरराश्ट्रीय सहकार्याक उत्तेजन दिलें. तेखातीर १९४९ वर्साचो शांतताये खातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार ताका फावो जालो. फाओंतल्या म्हानिदेशकपदाचो राजिनामो दितकच ताणें वर्ल्ड गवर्नमॅंट हे चळवळीखातीर खूब कार्य केलें. ताका नायट (१९३५) आनी बॅरोनॅट (१९४९) हे भोवमान फावो जाले.

पोशक आहाराविशींचे आपले विचार ताणें फुडल्या ग्रंथांत मांडल्यात- The National Food Supply and its Influence on Public Health (१९३४), Food, Health and Income (१९३६), Nutrition in War (१९४०), Food and the people (१९४३), Food : The Foundation of World Unity (१९४८), Feast and Famine (१९६०).

- कों. वि. सं. मं.

## बॉयर. एम्. (मानुयल सांतान आगियार) : जल्म : ११ ऑक्टोबर १९३०, मडकय).

नामनेचो कोंकणी कातारीस्त आनी त्रियात्रिस्त. मडगांवां ताणें मुळावें आनी पुर्तुगेजींतलें सेगुंद ग्रावमेरेन शिक्षण घेतलें. उपरांत मॅट्रिकमेरेनचें शिक्षण ताणें मडगांवच्या हॉली स्पीरीट हायस्कुलांतल्यान पुराय केलें. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा ताणें पयले खेप.आपल्या गांवांत नेवरा हांगा 'रिणकारी' ह्या त्रियात्रांत वांटो घेतलो. उपरांत कामत दे आसोलना, जेपूतीस हिटलर सारक्या म्हान कलाकारांकडेन ताची वळख जाली आनी ताचे आंगांतले कलेक आनीकय स्फुर्त मेळ्ळी.

दुख्खी कश्टी लोकांचें दुख्ख कश्ट ल्हव करप हेंच तो आपलें कर्तव्य समजतालो. देखूनच ताणें मनशाच्या मंनात हांसो पिकोवपी गीत वा कातार रचलें. ताचीं गितां चडशीं कोंबडे,बोकडे, माजरां, सून, धूव, पूत, बापूय आदी विशयांचेर आसतालीं.

हिज मास्टर वॉयस हे कंपनीन ताच्यो पंचवीसांवयर रिकॉर्डी काडल्यात तेभायर पोलिडोर आनी हेर साबार कंपनीन ताच्यो जायत्यो रिकोर्डी काडल्यात. मुंबय, गोंय, गल्फ, दिल्ली, बेळगांव, केनया आनी हेर जायत्या सुवतींनी ताच्या तियात्राचे पांच हजारांवयर प्रयोग जाल्यात. 'आदीं तें आतां हें', 'संवसार सुदारलो', 'एकूच रस्तो', 'घर दुखी गांव सुखी', 'मोग, काजार, डायवॉर्स', 'भुरगीं आनी भांगर', 'बेसांव', हे ताचे कांय नामनेचे त्रियात्र. ताच्या 'आदीं ते आतां हें', 'भुरगीं' आनी भांगर', 'एकूच रस्तो', ह्या त्रियात्रांक पुरस्कार फाव जाल्यात. १९७७ वर्सा तितू मिनेजिस हांचे कडल्यान ताचो भोवमान जावन ताका 'मॅन ऑफ धी इयर' म्हूण जाहीर केल्लो. कातरां आनी त्रियात्रां भायर ताणें समाजीक मळारय भोव मोलाचो वावर केला.

- कों. वि. सं. मं.

## बॉर्दे, झ्यूल : (जल्म : १३ जून १८७०, स्वान्ये - बेल्जियम; मरण : ६ एप्रिल १७६१, ब्रुसॅल्स).

बेल्जियम सुक्ष्मजंतूविज्ञानीक आनी प्रतीरक्षाविज्ञानीक. ताचें पुराय नांव झ्यूल झां बातिश्त व्हॅंसां अशें आशिल्लें. १८९२ त ब्रुसॅल्स विद्यापिठाची एम. डी. पदवी ताणें मेळयली. वैजकी विद्यार्थी आसतनाच ताणें संशोधनाक सुरवात केल्ली. १८९४ त बेल्जियम सरकाराची शिश्यवृत्ती मेळोवन तो

पॅरीसांतल्या पाश्चर इन्स्टिटयूटांत संशोधन कार्य करूंक लागलो आनी थंयच पांच वर्सांच्या काळांत ताणें प्रतीरक्षाविज्ञानांतले म्हत्वाचे सोद लायले.

पाश्चर इन्स्टिट्यूटांत म्येचन्यिकॉव्ह प्रयोगशाळेंत काम करता आसतना सुक्ष्मजंतू विलयनाविशीं ताणें म्हत्वाचे सोद लायले. ज्या जनावरांमदीं प्रतीरक्षा निर्माण जाल्या, त्या प्राण्यांच्या रगतांतलो रक्तरस ताचे कुडींत नव्यान रिगिल्ल्या त्याच रोगाच्या सूक्ष्मजंतूंचो नाश करूंक शकता हें ताणें पटकी आनी प्लेग ह्या रोगांचे सुक्ष्मजंतू वापरून सिध्द करून दाखयलें. ताणें 'संरक्षण ह्या अर्थाच्या ग्रीक उतरावयल्यान रक्तरसांतल्या ह्या सुक्ष्मजंतूनाशक घटकाक 'अलॅक्झीन, अशें नांव दिलें. होच पदार्थ आयज Complement ह्या नांवान वळखतात. सगळ्या सस्तन जनावरांच्या सामान्य रक्तरसांत हो पदार्थ आशिल्ल्याचें सिध्द जालां. रोगाचे सुक्ष्मजंतू जेन्ना मनशाच्या शरिरांत प्रवेश करतात, तेन्ना हो रोग पयलीं जावन गेल्लो आसल्यार ताच्या रक्तरसांतलो 'पुरक' पदार्थ बध्दावस्थेंतल्यान मुक्त जावन नव्यान रिगिल्ल्या सुक्ष्मजंतूंचो नाश करता.

१९०१ त, बॉर्दे आनी ताचो मेवणो ऑक्ताव्ह झँवगू हाणें पटकी प्रतीरक्षीत रक्तरस, पटकीचे सुक्ष्मजंतू आनी पूरक पदार्थ घेवन कांय प्रयोग केले. वयल्या तीन पदार्थांचे भरसणेंत ताणें तांबड्यो कोशिका आनी तांचीं प्रतीपिंडां भरशिलीं. पूरक पदार्थ जेन्ना मुक्तावस्थेंत आसता, तेन्ना तो तांबड्या कोशिकांच्या वण्टींचेर परिणाम करून ताचें विलयन करता; पूण जर तो बध्दावस्थेंत आसत जाल्यार कोशिकांचेर परिणाम जावंचोना, अशें ताका दिसलें. हे परिक्षेक 'पूरक बंधी परिक्षा' अशें नांव दिलें आनी ती प्रयोगशाळेंत सुक्ष्मजंतूंचो प्रकार वळखुपाखातीर वापरांत आयली.

पिरायेच्या तिसाव्या वर्साच बॉर्दे हाची इन्स्टिट्यूट पाश्चर ध्यू ब्राबान्त हे संस्थेच्या संचालकपदाचेर १९०१ त नेमणूक जाली. थंय ताचें संशोधन कार्य सेगीत चालू आशिल्लें. १९०६ त ताणें आनी झँवगू हाणें मेळून कोलेखांक ह्या रोगाचे सुक्ष्मजंतू सोदून काडले. ह्या सुक्ष्मजंतूंक 'बॉर्दे-झँवगू सुक्ष्मजंतू' अशें म्हण्टात.

प्रतीरक्षाविज्ञानांतल्या खाशेल्या सोदांखातीर बॉर्दे हाका १९१९ वर्साचो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञान ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

१९०७-३५ मेरेन तो बॉर्दे ब्रुसेल्स विद्यापिठाच्या सुक्ष्मजंतूविज्ञान विभागाचो मुखेल आशिल्लो. १९४० मेरेन तो वयर उल्लेख केल्ल्या इन्स्टिट्युटाच्या संचालकपदाचेर आशिल्लो. १९३५त थंयच्या विज्ञान मंडळाचो अध्यक्ष म्हणून ताची वेंचणूक जाली. नोबॅल पुरस्काराखेरीज ताका आनीक कितलेशेच पुरस्कार फावो जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बॉल्च, एमिली ग्रीन :** (जल्म : ८ जानेवारी १८६७, बॉस्टन, (मॅसॅच्युसॅटस); मरण : ९ जानेवारी १९६१, कॅंब्रीज).

शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्ली अमेरिकन शांततायवादी फुडारी. १८८९ त ब्रिनमार म्हाविद्यालयांतल्यान पदवी घेतले उपरांत बॉस्टनांत डॅनिसन हाऊस सॅटलमँट आनी बायलांची कामगार संघटना ह्यो संस्था तिणें स्थापन केल्यो. राज्य विधीमंडळांत पयलेच खेपे मांडटल्या वेतन विधेयकाचो मसुदो तयार करपांत चडसो तिचो वांटो आशिल्लो. १८९६ सावन १९१८ मेरेन वॅलस्ली म्हाविद्यालयांत अर्थशास्त्र आनी राज्यशास्त्र ह्या विशयांचें ती अध्ययन करताली. पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत तिणें जेन ॲडम्स हाचे वांगडा शांततायवाद्यांचो एक ल्हानसो पंगड स्थापन केलो. ह्याच पंगडाचें फुडें विमॅन्स इंटरनॅशनल लीग फॉर पीस अँड फ्रिडम हे आंतरराश्ट्रीय संस्थेंत रुपांतर केलें. सुरवेच्या १९२१-१९२२ आनी १९३४-१९३५ ह्या काळांत हे संस्थेची ती सचीव-भांडारी आनी उपरांत १९३६ त सन्मान्य अध्यक्ष आशिल्ली. पयल्या म्हाझुजांत अमेरिकेन वांटो घेवंचो न्हय ह्या मताक तिणें जाहीरपणान तेंको दिलो. हाका लागून तिका म्हाविद्यालयांतली नोकरी सोडची पडली (१९१८). अमेरिकेंतल्या जायत्या शांततायवादी संघटनांनी तिणें जायतीं पदां भुशयल्यांत.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत जर्मनी-जपानाआड झूज दिवपाक तिणें अमेरिकेक पुराय तेंको दिल्लो. पूण झूज सोंपले उपरांत तिणें संवसारीक शांतताये वांगडाच मूलभूत मानवी हक्कांक राखण मेळची हे नदरेंतल्यान हायती जुंव्यावयल्यान अमेरिकन सैन्याक फाटीं सरूंक सांगलें. ह्या तिच्या संवसारीक शांततायेच्या वावराखातीर १९४६ वर्साचो शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार तिका जॉन रॉली मॉट हाचेवांगडा वांटून दिलो. मॉट हो अमेरिकन समाज कार्यकर्तो आशिल्लो. ताणें विद्यार्थी संघटनेच्या आदारान पयल्या म्हाझुजांतल्या जखम्यांची शुश्रुषा केल्ली आनी आंतरराश्ट्रीय समजिकाय निर्माण करपाचे यत्न केल्ले.

बॉल्च हिणें आंकवार रावून आपलें पुराय जिवीत शांततायेच्या वावरांत घालयलें. तिणें स्लाव्हिक आप्रवासी आनी संवसारीक शांतताय हे विशींचे मोलादीक विचार, उलोवपां आनी लिखाणांवरवीं उक्ते केल्यात. तिचीं आवर स्लाव्हिक फेलो सिटिझन्स (१९१०), विमेन ॲट द हेग (१९१५), ॲप्रोचिस टू द ग्रेट सॅटलमँट (१९१८), रेफ्युजिस ॲज ॲसॅटस (१९३९) हीं कांय उल्लेख करपासारकीं पुस्तकां.

- कों. वि. सं. मं.

**बॉल्टिमोर, डेव्हिड :** (जल्म : ७ मार्च १९१८, न्यूयॉर्क).

अमेरिकन विशाणूशास्त्रज्ञ. स्वार्थमॉर म्हाविद्यालयांत बी. एस्.(१९६०), मॅसॅच्युसॅट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजी (कॅंब्रीज)

हातूंत एम. एस. आनी रॉकफॅलर विद्यापिठांत पीएच. डी. (१९६४) ह्यो पदव्यो ताणें मेळयल्यो. एक वर्स तो आयन्स्टायन कॉलेज ऑफ मेडिसिनांत आशिल्लो. उपरांत ताणें ला हॉइया हांगाच्या साल्क इन्स्टिट्युटांत दलबेक्को हाच्या हाताखाल संशोधन केलें (१९६५-६८). थंय ताणें पोलिओ-विशाणूच्या विश्लेशणाक सुरवात केली. थंयसावत १९६८ त तो परत मॅसॅच्युसॅट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजींत सहाय्यक प्राध्यापक म्हणून आयलो आनी थंय ताणें अर्बुद-विशाणूचो अभ्यास केलो. १९७२ सावन तो थंयचे सेंटर फॉर कॅन्सर रिसर्च हे संस्थेंत सुक्ष्म जीवशास्त्राचो प्राध्यापक जालो.

बॉल्टिमोर हाणें रिव्हर्स ट्रान्सक्रिप्टेझ नांवाचे विशाणूजन्य एंझायम सोदून काडले. रेनातो दलबेक्को आनी हॉवर्ड मार्टिन टेमिन हांचेवांगडा बॉल्टिमेर हाका १९७५ वर्साचो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञानाचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. अर्बुद-विशाणू आनी पोशक पेशींतली जननीक सामग्री हांचेमदल्या आंतरक्रियांविशीं ह्या तिगांनीय लायिल्ल्या सोदांखातीर हो पुरस्कार तांकां मेळ्ळो. तिगांच्याय कार्याक लागून मनशाक जावपी थरावीक अर्बुदांक कारण जावपी विशाणू सोदून काडपाची शक्यताय निर्माण जाली. तशेंच अशे तरेचे संभाव्य संबंद अभ्यासूंक शकतलें अशें तंत्र उपलब्ध जालें. दलबेक्को हाच्या कार्याक लागून हेर दोगांयच्या संशोधनाची बुन्याद घाली. टेमिन हाणेंय स्वतंत्रपणान रिवर्स ट्रान्सक्रिप्टेझ एंझायम, सोदून काडलें. जाची जननीक सामग्री रिबोन्युक्लिक आरएनए आम्ल आसता, असो विशाणू ह्या एंझायमाक लागून स्वताची डीएनए नक्कल निर्माण करूंक शकता. तिगांनीय स्वतंत्रपणान काम केल्लें आसलें तरी विशाणू आनी कर्करोग हांचेविशींचें ताचें कार्य सारकें आसा.

आरएनए-मोनजात-विशाणूचें जीवरसायनशास्त्र आनी आनुवंशिकी हांचेविशींचें ताचें संशोधन मुळावें आसून ताणें सोदून काडिल्ल्या एंझायमाक लागून आरएनए अर्बुद-विशाणूचें सखोल निरिक्षण करपाची तजवीज जाली. तशेंच, ह्या एंझायमाक लागून जननीक वा आनुवंशीक वृत्त फुडें कशें व्हरतात वा तें डीएनएंतल्यान आरएनएंत कशें वता तें ताणें दाखयलां.

बॉल्टिमोर हाका एली लीली पुरस्कार (१९७१) आनी हेर जायते भोवमान फावो जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बॉश, कार्ल :** (जल्मः २७ ऑगस्ट १८७४, कोलोन-जर्मनी; मरण : २६ एप्रिल १९४०, हायड्लबर्ग).

जर्मन उद्देगीक रसायनशास्त्रज्ञ. ताचें मुळावें शिक्षण कोलोन-जर्मनींत जालें. १८९६ त ताणें लायपसिक विद्यापिठांत प्रवेश घेतलो आनी थंय १८९६त ताणें कार्बनी रसायनशास्त्रांतली पीएच. डी. पदवी मेळयली. १८९९ त बाडिश ॲनिलीन अँड सोडाफॅब्रिक (BASF) कंपनींत वतकच ताणें नायट्रोजन आनी हायड्रोजन हांच्या संयोगावरवीं अमोनिया निर्माण करपाचे पद्दतीविशीं संशोधन सुरू केलें. फुडें हे कंपनीचें रुपांतर आय. जी. फार्बेन हे कंपनींत जालें आनी १९३५ त तो हे कंपनीचो अध्यक्ष जालो. थंय आसतनाच उच्च दाब आनी योग्य उत्प्रेरक हांचो वापर करून ताणें फकत प्रयोगशाळेंत वापरांत येवपी 'हाबर पद्दत' चें व्हडा प्रमाणाचेर अमोनिया निर्मिती करपी पद्दतींत रुपांतर करपांत यश मेळयलें. तेखातीर ताणें वीस हजारांपरस चड प्रयोग केले. ही पद्दत १९११ सावन प्रत्यक्ष वापरांत आयली आनी तिका लागून हेर रसायनीक पदार्थांच्या (देखीक-सारें, नायट्रिक आम्ल, मिथॅनॉल आदी) उद्देगधंद्यांक बरीच गती प्राप्त जाली.

१९१५ त एक व्हडलें शेतकी प्रयोग क्षेत्र उबारून थंय ताणें जमनीची सुपीकताय, कार्बनी आनी अकार्बनी सारें आनी तांचो वनस्पतींचे वाडीचेर जावपी परिणाम आदी विशयांचें संशोधन केलें. हवेंतल्या नायट्रोजनाचें थीर संयुगांत रुपांतर करून जीव ताचो कसो वापर करून घेता, हाचोय ताणें अभ्यास केलो. उच्च दाबाक उदकाची वाफ आनी प्राणवायू हांची भरसण योग्य उत्प्रेरकावयल्यान धाडून हायड्रोजन निर्माण करपाची पद्दतूय ताणें सोदून काडली. तिका 'बॉश पद्दत' म्हण्टात. अमोनिया कार्बामेटासावन युरिया मेळोवपाचो, तशेंच कृत्रीम रबर तयार करपाचोय ताणें यत्न केल्लो.

उच्च दाबावरवीं रसायनीक विक्रिया घडोवन हाडपाचे पद्दतीचो सोद लावन तांची उदरगत केल्लेखातीर ताका १९३१ वर्साचो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फ्रीडीख बेर्गिडस हाचे वांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**बिंदू-१ :** अक्षरावयलें वा यत्रांतलें वा ॐकाराचें अर्दमात्रेंतलें टींब म्हळ्यार बिंदू. हें बिंदूचें एक स्वरूप. तशेंच, बिंदूचें अव्यक्त अशेंय स्वरूप आसा. तंत्रीक लोक शिव, शक्ती आनी बिंदू अशीं तीन रत्नां मानतात. हीं तीन रत्नां म्हळ्यार समस्त तत्त्वांचीं अधिश्ठानां. हातूंतलो बिंदू हो कार्यात्मक शुध्द जगताचें उपादान, शिव हो कर्तो आनी शक्ती ही कारण आसता. बिंदू क्षुब्ध जावन शुध्द देह, इंद्रीय, भोग आनी भुवन ह्या रुपांनी परिणत जाता, तेन्ना ताका 'शुध्द अध्वा' अशें म्हण्टात. हेविशीं कालोत्तर तंत्रांत एक श्लोक आयला तो असो-

*स्थूलं शब्द इति प्रोक्तं सूक्ष्मं चिन्तामंय भवेंत् ।*

*चिन्तया रहितं यत्तु तत्परं परिकीर्तितम् ।।*

**अर्थ** - स्थूलं बिंदू म्हळ्यार शब्द, सूक्ष्मं म्हळ्यार चिंतामय आनी पर म्हळ्यार चिंतनांत आशिल्लो.

शिवाच्यो दोन शक्ती आसात. पयली समवायिनी आनी परिग्रहरूप आनी दुसरी अचेतन आनी परिणामशील. हे दुसरेचेंच नांव बिंदू. ताचीं शुध्द आनी अशुध्द अशीं दोन रुपां आसात. शुध्दाचें नांव महामाया आनी अशुध्दाचें माया. हीं दोनूय रुपां नित्य आसात. परा, सूक्ष्मा आनी स्थूला अशो बिंदूच्यो तीन अवस्था आसात.

प्रज्ञा आनी उपाय हांच्या योगान बोधिचित्ताचो उद्‌भव जाता अशें बौध्द लोक मानतात. बिंदू क्षुब्ध जावन नादाचो विकास करता. दैवी शक्तीन हें विक्षोभकार्य जाता. शरिरांत आज्ञा चक्राउपरांत बिंदुस्थान येता. हो बिंदू योगी लोकांचो तिसरो दोळो वा ज्ञानचक्षू मानला. बिंदुभुमीत साधकाक अहंभाव आसता. ह्या अहंभावाचें विसर्जन जातकच महाबिंदू वा शिवभाव हांची अभिव्यक्ती जाता.

नादच घनीभूत जावन बिंदू जाता. ताका लागून सदांच नाद-बिंदूचो एकचार आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**बिंदू - २ :** एक सूक्तद्रष्टो. हो आंगिरस कुळांतलो आसुंये. ऋग्वेदाच्या णवव्या मंडलांतलें तिसावें सूक्त हाच्या नांवार आसा. सोमस्तुती हो त्या सुक्ताचो विशय. ताच्या सुक्तांतली एक ऋचा अशी-

*आ नः शुष्मं नृषाह्यं वीरवन्तं पुरुस्पृहम् ।*

*पवस्व सोम धारया ।।*

**अर्थ** - शुरांनी आक्रमण करपाक योग्य, विरांनी युक्त आनी सगळ्यांक स्फुरण दिवपी अशें प्रतापी ऐश्वर्य, हे सोमा, तूं आपले पवित्र धारेन आमचेकडेन व्हांवोवन हाड.

- कों. वि. सं. मं.

**बिडल, जॉर्ज वेल्स :** (जल्मः २२ ऑक्टोबर १९०३, वाहू-नेब्रॅस्का राज्य).

अमेरिकन जीवविज्ञानीक आनी आनुवंशिकीतज्ञ. वाहू हांगाचे उच्च माध्यमिक शाळेंत शिकता आसतना एका शिक्षकान ताका लिंकन हांगाच्या शेतकी म्हाविद्यालयांत शिक्षण घेवपाक सांगलें. १९२६ त ताणें नेब्रॅस्का विद्यापिठाची बी. एस्‌सी. पदवी मेळयली. १९२७ त त्याच विद्यापिठाची एम. एस्‌सी. पदवी मेळयतकच कॉर्नेल विद्यापिठांत ताका सहाय्यक शिक्षक म्हणून नोकरी मेळ्ळी. थंय संशोधन करता आसतना ताणें १९३१ त आनुवंशिकींतली पीएच. डी. पदवी मेळयली. त्याच वर्सा कॅलिफॉर्निया इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नोलॉजी हे संस्थेची नॅशनल रिसर्च काउन्सिल फॅलोशिप ताका मेळ्ळी आनी तो पॅसाडीना नगरांत रावपाक लागलो. थंय ताणें ड्रॉसोफिला मेलॅनोगॅस्टर ह्या फळांच्या मुसाविशीं संशोधन केलें.

१९३५ त बिडल स म्हयन्यांखातीर पॅरीसाक गेलो आनी थंयचे इन्स्टिट्यूट द बायॉलॉजी फिझिकोकेमिक हे संस्थेंत थंयच्या प्राध्यापकां वांगडा ड्रॉसोफिला मुसाच्या दोळयांतल्या रंगद्रव्याविशीं ताणें संशोधन केलें. अमेरिकेंत परततकच हार्वर्ड विद्यापिठांत आनुवंशिकीचो प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. तेउपरांत १९३७ त स्टॅनफर्ड विद्यापिठांत तो जीवविज्ञान ह्या विशयाचो प्राध्यापक जालो. ह्या विद्यापिठांत तो णव वर्सां आशिल्लो आनी थंयच टेटम आनी ताणें मेळून खूब संशोधन केलें.

आपल्या संशोधनाखातीर ताणें 'न्युरोस्पोरा क्रासा' ही बुरशी वापरली.हे बुरशेचे आनुवंशीक आनी संवर्धनाविशींचे गुणधर्म संशोधनाक बरे दिशिल्यान ताणें ती वेंचून काडिल्ली. प्रयोगशाळेंत बुरशेच्या संवर्धनाचेर पोशक द्रव्यां आनी क्ष-किरण हांचो जावपी परिणाम ताणें अभ्यासलो. क्ष-किरणांक लागून वाड उणी जाल्ल्या बुरशेच्या पोशक द्रव्यांत ब-६ जीवनसत्व भरशिल्यार वाड बरी जाता अशें ताका दिसलें. बिडल आनी टेटम हांणी अशें दाखयलें, क्ष-किरणांक लागून बुरशेंतल्या खाशेल्या जिवांक लुकसाण जातात. आनी ताका लागून खाशेल्या एंझायमाची निर्मिती थांबता. हें एंझायम ब-६ जीवनसत्वाचे निर्मितीखातीर गरजेचें आसता.

ताच्या ह्या संशोधनाक लागून आनुवंशिकींतल्या मूलतत्त्वांतली घुसपण समजप सोंपें जालें आनी कर्करोगावयल्या संशोधन कार्याक नवी दिका मेळ्ळी. जिनांची क्रियाशीलताय शरीर कोशिकांनी खाशेल्यो रसायनीक प्रक्रिया घडोवन हाडपाचे तांचे तांकीचेर पातयेवन आसता' ह्या सोदाखातीर बिडल आनी एडवर्ड लॉरी टेटम हांकां १९५८ वर्साचो शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो. पुरस्काराचो उरिल्लो अर्दो वांटो जोशुआ लेडरबर्ग हाका आनुवंशिकींतल्या हेर कार्याखातीर फावो जालो.

१९६१ त बिडल, शिकागो विद्यापिठाचो कुलगुरू जालो आनी त्याच वर्सा तो ताचो अध्यक्षूय जालो. ताका नोबॅल पुरस्काराखेरीज आनीक जायते भोवमान फावो जाल्यात. ताणें An Introduction to Genetics (स्टर्टेवंट हाचेवांगडा, १९३९), Genetics & Modern Biology (१९६३) आनी The Language of Life (म्युरिएल बिडल हिचे वांगडा, १९६६) हे ग्रंथ बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बिनतारी संदेशवाहक :** (पळेयात तारायंत्रविद्या).

**बिबळो :** (मराठीः बिबळा, असन, होनी; हिंदी : बिजा; गुजराती : बियो; कन्नड : हनेमर, होनेमर, बेंगा; संस्कृत :बीजक, महाकुटज, पित्तसार; इंगलीश : इंडियन वा मलबार वा गम किनो ट्री; लॅटीन :

टेरोकार्पस मार्सुपियम; कूळ - लॅग्युमिनोजी).

हें सुमार १०-१५ मी. ऊंच आनी १.८-२.४ मी. घेरांचें , पानां झडपी झाड. रक्तचंदन आनी बिबळो हे एकाच वंशांतले आशिल्ल्यान ताचीं जायतीं लक्षणां सारकीं आसात. ताची साल हळदुवी-करडी दाट आनी भेगाळ आसून पानां (१५-२० सेंमी. लांब) एका आड एक संयुक्त आनी पिसांवरी विभागिल्लीं आसतात. दलां ५-७ (७.५X१३सेंमी. लांब), फुलांच्यो ताळयो मे ते जून म्हयन्यांत येतात. तातूंत लेव हळदुवीं आनी ल्हान फुलां येतात. सांगो वाटकुळयो (२.५-५सेंमी.) व्यासाच्यो आसतात.

हें झाड सादारणपणान श्रीलंका, पाकिस्तान, भारत आदी देशांनी दिसता. भारतांत गुजरात, उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश, बंगाल, बिहार, ओरिसा, कर्नाटक, कोंकण, कारवार, गोंय, मलबार आनी केरळ ह्या सुवातींनी हें झाड दिश्टी पडटा.

ह्या झाडाची नवी लागवड बिंयेपसून करतात. बिंयापसून रोंपां वा एक वर्स वाड जाल्ल्या झाडाची खांदी लावनूय नवी लागवड करतात. ह्या झाडाक रेंवेचें योग्य प्रमाण आशिल्ली उदक व्हांवून वचपी जमीन, ७५-२०० सेंमी. पावस आनी मध्यम सूर्यप्रकाश ह्यो गजाली गरजेच्यो आसतात.

ह्या झाडाचें लांकूड भारतांतल्या बऱ्या लांकडांतलें एक आसून तें मदीं हळदुवें, पिंगशें आनी ताचे भोंवतणीं लेव हळदुवें आसता. तें कठीण, घट, वजनान मध्यम आनी तिगपी आसता. हाचो मुखेल उपेग घर बांदपाक करतात. आगगाडयेचे डबे, गाडयो, शेताचीं आयुधां, व्हडीं, तारवां, धोल, व्हलें, हत्याराचे दांडे, चित्रांच्यो फास्क्यो, फणयो, खेळणीं, आरमारी व कोरीव काम हांचे खातीर हाचें लांकूड वापरतात. लांकडांत हळदुवें रंगद्रव्य, बाश्पनशील तेल आनी अर्धस्थिर तेल आसता.

खोडावयले सालींत तांबसार पिंगशीं रंगद्रव्यां आसतात आनी तांचो उपेग रंगोवपाखातीर करतात. सालीचेर खोल घाय घाल्यार तातूंतल्यान गाड तांबडें गोमावरी वखदी द्रव्य झिरपता. हाका गमकेनो अशें नांव आसून दर झाडापसून तें सुमार ३४० ग्राम मेळटा. तें स्तंभक आशिल्ल्यान अतिसार आनी मोडशी हातूंत वापरताले. तें रक्तस्त्राव, आंगार धवें जावप आनी दांतांचे दुखीचेर उपेगी पडटा. रंगोवप, कातडी कमोवप, छापणावळ हांचेखातीर तें उपेगी आसून कागद उद्देगांतूय तें वापरतात. हाची साल स्तंभक आसून दाडयेचे दुखीचेर दाडयेत भरतात. पालो गोरवांक बरो चारो आसून सुपारेच्या झाडांक ताचें बरें सारें जाता. लांकडाचो काडो (विशिश्ट काडो) आनी हाच्या लांकडी आयदनांत दवरिल्लें उदक गोड्या मुताचेर गुणकारी पडटा. दक्षिण भारतांत मळयांत सावळेखातीर हें झाड लायतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बिबटो वाघ :** (पळेयात वाघ).

**बिबो :** (मराठी : बिब्बा, भिलावा; हिंदी : भिलावा; गुजराती : भिलामा; कन्नड : केरू, गेरकायी; संस्कृत : भल्लातक, अग्रिमुखी; इंग्लीश : मार्किंग नट ट्री; लॅटीन : सेमेकार्पस आनाकार्डियम; कूळ : ॲनाकार्डिएसी).

मध्यम आकाराचें आनी सुमार ९-१२ मी. ऊंच आनी १-२५ मी. घेराचें पानझडी झाड. खोडाची साल खडबडीत, आसून वांकड्या-तिकड्या कुडक्यांनी सोलून येता. भितरली साल धागेदार आसता. ह्या झाडाचो कंवळो भाग, फुलोरो, पानांचो देठ आनी सकयले वटेन लंव आसता. पानां सादीं, व्हड (१७-६०x१०-३०सेंमी). एका आड एक, तोंकाकडेन रूंद आनी वाटकुळीं आसतात. हीं पानां फेब्रुवारींत गळटात आनी मे म्हयन्यांत नवी पालय येता. फुलां पाचवींसार, धवीं आनी हळदुवीं, ल्हान, एकलिंगी वा द्विलिंगी, ताळयेर, पावसाळयाच्या शेवटाक येतात. हाका नोव्हेंबर-फेब्रुवारींत सालीसकट फळां येतात. तें पिकतकच काळें जाता. फळांत एकच बीं आसता. ह्या झाडाच्या बियांची जननक्षमताय खुबूच उणी आशिल्ल्यान बीं बेगीन पेरचें पडटा. ह्या रोंपांक हिमतुषार आनी मूळकूज हांचो त्रास जावंक शकता, देखून जतनाय घेवंची पडटा. पुराय वाड जाल्लें पोरनें खोड तोडून केल्ल्या खुंटापसून नवी लागवड बरी जाता.

ह्या झाडाच्या खोडाक घाय घाल्यार खर आनी सादारण पाकट रोस (गोम) मेळटा. कठीण फळाचे सालींत कोडू, खर, काळसार आनी विखयाळें तेल आसता. देखून फळ कातडेक लागल्यार फोड येतात. संधिवांत, मुरगळप, तिरपप आनी कुश्ठगाठिचेर हें जतनायेन लायतात. बिबो खावपाचो आसून ताचेपसून तेल काडटात. हें तेल गोड, खाद्य, पथ्यकर आनी वखदी आसता. पुर्विल्ल्या काळासावन फळाचे सालीचें तेल लुगटार खुणो करपाक मडवळ लोक वापरतात. फळापसून काडिल्ल्या तेलाक वेपारांत 'भिलावन शॅल लिक्विड' (बी. एस. एल.) म्हणटात. ताचेपसून फिनॉल मेळटा.

ह्या झाडाचें लाकूड धवसार आसून, तातूंत हळदुव्यो रेगो आसतात. तें मोव, पूण कांय प्रमाणांत जड आनी तिगपी आसता. हलकें आनी सजावटी सामान, खोकीं, फस्कां, वल्ल्यो आनी जळण अशा वेगवेगळ्या प्रकारांखातीर ताचो उपेग करतात. फळ उश्ण, कृमिनाशक आसून गांठी, चामखीळ, दमो, खर संधीवात हांच्या विकारांचेर गूणकारी आसता. लोणी, दूद, वेदनाहारक तेलां हांचेसयत फळांचो रोस पोटांत घेतात. कमरदुखीचेर बिबो दुदांत उकडून घेतल्यार बरो.

महाभारत, कौटिलिय अर्थशास्त्र, चरक संहिता, सुश्रुतसंहिता आदी पुर्विल्ल्या भारतीय ग्रंथांनी 'भल्लातक' ह्या नांवान बिब्याचो उल्लेख

आयला. हाचेवयल्यान हें झाड भारतीय आसुंये. हें झाड इस्ट इंडीज, ऑस्ट्रेलिया आनी भारतांत दिसता. भारतांत हिमालयाच्या भायल्या वाठारांत सतलज ते सिक्कीम आनी उश्ण वाठारांत सादारण सगळेकडेन आनी उदेंतेकडेन आसामामेरेन तें दिसता. ह्या झाडाची चडशी लागवड करिनात.

- कों. वि. सं. मं.

**बिरेस्तार :** सप्तकांतलो पांचवो वार. ह्या दिसाचो, पयल्या होऱ्याचो अधिपती गुरू आसता म्हणून ह्या वाराक मराठींत 'गुरूवार' अशें म्हण्टात. तशेंच ताका 'बृहस्पतिवार' अशेंय म्हण्टात. नॉर्वेजियन पुराणांतली गुरूसद्दश देवता थॉर हिचेवयल्यान ह्या दिसाक थर्सडे (Thursday) अशें इंग्लीश नांव पडलें.

पद्मपुराणांतल्या व्रतांनी बिरेस्तार व्रताचो उल्लेख आयला. कुंडलेंत गुरू अनिश्ट आसत जाल्यार बिरेस्तारा जप, दान हीं कृत्यां करतात. शूभकार्याक तशेंच नवो मंत्र घेवपाचो आसल्यार बिरेस्तार हो बरो दीस अशें मानतात. खंयच्याय बिरेस्तारा चंद्र, पुष्य नक्षत्रांत आसत जाल्यार त्या योगाक 'गुरूपुष्ययोग' म्हण्टात. ह्या दिसा भांगर घेवपाची चाल आसा.

हिंदू लोक बिरेस्तार हो दत्त महाराजाचो दीस मानतात. दत्ताचे उपासक ह्या दिसा दत्तदर्शन, उपास करतात. दत्तक्षेत्रांत बिरेस्तारा रातीची दत्ताची पालखी काडटात.

मुसलमान लोकूय बिरेस्तार शुभ दीस मानतात. ह्या वाराक रातीचें भुरगें जल्मलें जाल्यार ताका भाग्यवान मानतात आनी ताका 'जुमान राती सय्यद' अशें म्हण्टात.

क्रिस्तांव लोकांभितर, गूड फ्रायडेच्या पयलींचो बिरेस्तार मॉंडी वा होली (पवित्र) आसता. अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत नोव्हेंबरांतलो चवथो बिरेस्तार सार्वत्रिक आभार प्रदर्शनाचो दीस आसता.

६ फेब्रुवारी १८५१ ह्या दिसा ऑस्ट्रेलियेंतले व्हिक्टोरिया वसणुकेंत व्हडलो उजो लागिल्लो म्हणून थंय हो दीस 'काळो बिरेस्तार' समजतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बिर्ला घराणें :** भारताच्या सर्वांगीण उद्देगीक विकासांत म्हत्वाचो वावर करपी एक नामनेचें घराणें. पुराय भारतीय उद्देगीक संवसारांत बिर्ला उद्देग समुहाक उंचेली सुवात आसा. घनश्यामदास बिर्ला हो ह्या उद्देग समुहाचो संस्थापक. घनश्यामदास आनी ताच्या कुटुंबान आपल्या कर्तृत्वान बिर्ला घराण्याक भारतांत मानाची सुवात मेळोवन दिली. सुटके चळवळींतूय ह्या घराण्यान वांटो घेतिल्लो. महात्मा गांधीच्या तत्त्वगिन्यानाची ताणें आस्थेन फाटपुरवण केल्ली. ताचे प्रेरणेन देशाचे संस्कृतीक, समाजीक आनी शिक्षणीक उदरगतीक हातभार लायलो.

**बिर्ला उद्देगसमुहाचे शिल्पकार**



जुगलकिशोर



रामेश्वरदास



घनःश्यामदास



ब्रिजमोहन

राजस्थान राज्यांतल्या पिलानी ह्या ल्हानशा खेड्यांत जल्मल्ल्या घनश्यामदासजीन तरने पिरायेचेर वेपारांत लक्ष घालें आनी थोड्याच काळांत संवसारभर ताची नामना पातळ्ळी. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा कलकत्ता वचून शॅर बाजारांत दलाल म्हणून तो काम करूंक लागलो. थंय ताचो भागधारकांकडेन आनी वेपाऱ्यांकडेन संबंद आयलो. इंग्लिशांची वेपारी कुशळताय आनी वेवस्थापन पळोवन तो प्रभावीत जालो. ताणें एक कापसाची गिरण विकती घेतली. फुडें १९१८ त ताणें आपले भाव जुगलकिशोर, रामेश्वरदास आनी ब्रिजमोहन बिर्ला हांच्या आदारान बिर्ला ब्रदर्स ही मर्यादीत उत्पादन संस्था स्थापन केली. ताग तशेंच कापूस उद्देगांखातीर भागधारकां कडल्यान भांडवल उबारलें. मदीं ब्रिटीश उद्देगपतींनी ताच्या उद्देगधंद्याक आडमेळीं हाडिल्लीं. तरी पूण कचरनासतना घनश्यामदासजीन जायत्या उद्देगीक मळार पावल घालून भारताचे उद्देगीक उदरगतीची बुन्याद घट केली. १९२३ त बिर्ला ब्रदर्सांनी ग्वाल्हेराक 'जियाजीराव कॉटन मिल' ही कापड गिरण स्थापन केली. उपरांत तांणी कापूस, कागद, साकर आनी प्रकाशन ह्या वेवसायांक हात घालो. यंत्रसामुग्री, कपडे, सायकली, बॉल बॅरींग, पंखे, रेयॉन, प्लास्टीक, अलोखणी धातू, प्लायवूड, वनस्पती तेल ह्या वेगवेगळया वस्तूंची निर्मिती करपाक तांणी सुरवात केली. च्या, कोळसो हेय उद्देग तांणी हातांत घेतले. तांणी १९२३ त हिंदुस्थान टायम्स (दिसाळें) आनी १९४३ त

इस्टर्न इकॉनॉमिक्स (सातोळें) हीं इंग्लीश नेमाळीं उजवाडा हांडूक सुरवात केली. १९४३ त तांणी 'युनायटेड कमर्शियल बँक' स्थापन केली. १९४६ त तांणी 'हिंदुस्थान मोटर्स' ही कंपनी स्थापून मोटारीच्या उत्पादनाक सुरवात केली. १९५० च्या दशकांत बिर्ला उद्देग समुहान मुंबय 'द सँच्युरी स्पिनिंग अँड मॅन्युफॅक्चरिंग कंपनी लि.' (सँच्युरी मिल); 'सिरपूर कागद कारखानो', हैदराबाद ॲस्बेस्टस अँड सिमेंट प्रॉडक्टस लि. आनी हैदराबाद ऑलविन; उदेंत भारतांत, 'रामेश्वर ताग' ॲरकण्डिशनिंग कॉर्पोरेशन आनी जामनगराक 'श्री दिग्वीजय वुलन मिल्स' हे मुखेल उद्देग हातांत घेतले. हाचेभायर रेयॉन, शिमीट, रसायनीक द्रव्यां, तिख्या नळयो, ॲल्युमिनियम, उदक येरादारी असलीं नवीं मळां तांणी आपल्या नियंत्रणाखाल हाडलीं. सद्या बिर्ला समुहाच्या, साकर, वनस्पती, कागद, सुती लुगट ह्यो सदच्यो गरजेच्यो वस्तू आनी तेभायर कृत्रिम धाग्यांचीं वस्त्रां, विजेचीं उपकरणां, मोटारी, रेडिओ, तिख्या फर्निचर, प्लास्टिक वस्तू तशेंच वेगवेगळया हेर प्रकारच्या वस्तूंचेय व्हड प्रमाणांत उत्पादन करतात. ज्या ज्या मळार उद्देगांची गरज आसा त्या त्या मळार भांडवल घालून देशांतली अविकसीत संपत्ती चडांत चड प्रमाणांत उपेगांत हाडून वेवस्थापन आनी तंत्रीक गिन्यानाचे उदरगतीक हातभार लावपाचें पुरोगामी धोरण बिर्ला घराण्यान आपणायल्लें दिसता.

घनश्यामदासजी हाका राजकारणाविशीं आस्था आशिल्ली. सुटकेआदीं 'बिर्ला हाऊस' म्हळयार राजकीय चळवळीचें एक मुखेल केंद्र आशिल्लें. पिरायेच्या बत्तिसाव्या वर्सा ब्रिटीश सरकारान दिवंक केल्ली 'सर' ही मानाची पदवी ताणें न्हयकारली. महात्मा गांधीकडेन ताचे लागसरले संबंद आशिल्ले. १९३१त जाल्ले दुसरे गोलमेज परिशदेंत भारताचो एक प्रतिनिधी म्हणून ताणें वांटो घेतिल्लो. समाजीक वावराखातीर तो भरपूर प्रमाणांत पयशांचो आदार दितालो.

१९२५ त कलकत्त्याक 'इंडियन चेंबर ऑफ कॉमर्स' आनी १९२७ त नवी दिल्लीक 'फॅडरेशन ऑफ इंडियन चेंबर्स ऑफ कॉमर्स अँड इंडस्ट्री' हांचे स्थापनेंत ताचो म्हत्वाचो वांटो आसा. भारताचे अर्थीक उदरगतीचो आराखडो काडपी 'बाँबे प्लॅन' (१९४४) तयार करपांत ताचो मुखेल वांटो आशिल्लो. हाचेभायर बिर्ला उद्देगसमुहान देशांत जायतेकडेन देवळां बांदल्यांत. तेभायर बाँबे हॉस्पिटला सारकें रुग्णालय तांणीच बांदलां. १९१९त पिलानी ह्या गांवांत देशांतलें सगळयांत व्हड अशें खासगी (बिर्ला शिक्षण प्रतिश्ठान) स्थापन केलें. हें प्रतिश्ठान जायत्यो शाळा, महाविद्यालयां, शेतकी आनी अभियांत्रिकी संस्था चलयता. बिर्ला इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजी अँड सायन्स ही तातूंतली एक मुखेल संस्था. १९८२ वर्सा रामेश्वरदासजी बिर्ला स्मारक कोषावतीन पांच लाख रुपयांचो पयलो तीन-वर्सुकी पुरस्कार, प्राध्यापक विल्यम ट्रेजर उश्ण कटिबंधीय रोगांचे चिकित्सेंतल्या ताच्या म्हत्वाच्या वावराखातीर दिला.

अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, ग्रेट ब्रिटन, इथिओपिया, कॅनडा, युगांडा, कॅनया, मलेशिया आनी आग्नेय आशियेंतले हेर देश, नेपाळ, पाकिस्तान ह्या देशांनी बिर्ला समुहान आपले वेगवेगळे उद्देग स्थापन केल्यात. सद्या बिर्ला घराण्याची तिसरी पिळगी ह्या उद्देगसमुहाचो येदो व्हड वांटो सांबाळटा. भारताच्या उद्देगीक मळार ह्या बिर्ला घराण्यान सुमाराभायली कामगिरी केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**बिन्होर :** भारतांतली एक आदिवासी जमात. ह्या लोकांची वसती चड करून बिहार, मध्य प्रदेश आनी ओरिसा ह्या राज्यांतल्या आनी छोटा नागपूर सङ्यावयल्या दोंगुल्ल्यांनी दिसता. महाराष्ट्रांत ह्या लोकांक बिन्हूल म्हण्टात. विदर्भांतल्या चंद्रपूर, यवतमाळ आनी अमरावती जिल्ह्यांनी ह्या लोकांची थोडेभोव प्रमाणांत वसती आसा. ही एक मागाशिल्ली अनुसुचीत जमात आसा. तातूंतले बिहार राज्यांत सगळयांत चड म्हळयार सु. ३,४६४ आसून मध्य प्रदेशांत सु. ७३८ आनी ओरिसांत सु. ९८ आशिल्ले.

डाल्टनाच्या मतान हे लोक कोल वंशाचे आसुये. बिन्होर आनी खरवार एकाच वंशाचे आसून, तांची उत्पत्ती सूर्यासावन जाल्या अशें बिन्होर लोकांचें म्हणणें आसा. बिन्होर लोकांविशीं एक दंतकथा आसा ती अशीः खैरगडासावन बिन्होरांचे सात पुर्वज हजारीबाग जिल्ह्यांत आयले. हे सात भाव आशिल्ले. तांचेमदले चौग जाण उदेंतेकडेन गेले आनी तीग जाण रामगड जिल्ह्यांत रावले. एक दीस हे तीग जाण रामगडच्या राजाआड चडाय करपाक गेल्लेकडेन तांचेमदल्या एकल्याचें पागोटें झाडाक आडखळून उरलें. हो अपशकून समजून तो रानांतूच रावलो. दोगूय भाव आपले कामगिरीचेर वचून रामगडच्या राजाचेर जैत मेळोवन परतून आयले. त्या वेळार फाटल्यान उरिल्लो भाव झाडाची साल काडटा तें पळोवन तांणी ताका बिन्होर म्हळयार रानवटी अशें म्हळें. तेन्ना आपल्याक रानाचो राजा म्हणून रावपाक चड मानवतलें, अशें ताणें सांगलें. ताचे दोगूय भाव रामगडचे राजा जाले.

हेडपी लोक ते उथळू आनी स्थायीक जाल्ले ते जांधी अशो तांच्यो दोन उपजमाती आसात. उथळू लोकांचीं तीन ते धा कुटुंबां रानांत खंयचेय सुवातेर वसणूक करतात. ताका टंडा म्हण्टात. आठ-धा दिसांनी ते आपलो राबितो हालयतात. पावसाच्या दिसांनी मात ते बरोच तेंप एकेच सुवातेर रावतात. जांधी बिन्होर हे खंयच्याय रानाच्या लागसार खोंपी बांदून सासणाचे रावतात. उथळू लोकांच्यो खोंपी त्रिकोनी आसतात. तांकां कुंबा म्हण्टात. तांचे लागसारूच 'बोंगा' नांवाच्या देवाखातीर एक ल्हानशें पाखें उबारिल्लें आसता.

ह्या लोकांचें मुखेल अन्न कंदमुळां आनी मांस. हे लोक माकड

लेगीत खातात. रुखांचे सालीपसून दोर वळून ते लागसारच्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्या बाजारांत विकतात आनी मेळिल्ल्या पयशांनी कड्डण, कपडे घेतात. अशे तरेन बाजाराकडेन तांचो परतून परतून संबंद आयिल्ल्यान तांच्या खावपा जेवपांत आनी हेडपांत बदल जालो. ल्हव ल्हव तांचे वसतींत थिराय येवपाक लागल्या.

हे लोक काळे आनी मोटवे आसतात. तांच्यो बायलो आंगाचेर पाडून घेतात. ह्या लोकांच्या उलोवपांत मुंडारी आनी साद्री भाशेचो मेळ दिसता. महाराष्ट्रांतले बिऱ्होर चड करून हिंदी भास उलयतात.

बिऱ्होरांचे दर एके वसणुकेचो एक मुखेली आसता, ताका 'निया' म्हण्टात. ताका मदतनीस आसता. दर एके वसणुकेंत एक मांत्रिक आसता. वर्सांतल्यान एकदां सगळ्या वसणुकांतले दादले मेळून शिकारेक वतात.

ह्या लोकांमदीं खूब कुळां आसून, तांचीं देवकांय खूब आसतात. समाजीक आनी धर्मीक आचाराविशीं दरेका कुळाचे नेम विंगड विंगड आसतात. इस्टेटीची वांटणी करतना व्हडल्या भावाचो वांटो चड आसता.

तांच्या टंडाभितर युवाघर आसता. ह्या युवाघरांत चलेचलयांखातीर दोन स्वतंत्र खोंपी आसतात. ताका 'गिटीचोरा' म्हण्टात.

एकाच कुळांत लग्नां जायनात. आवय-बापूय लग्न थरयतात. व्हंकलेगेर लग्न जाता. लग्नांत पुरयत नासता. व्हंकल न्हवऱ्यान आपले करंगळीचें रगत काडून ताचो तिळो एकामेकांच्या कपलाक लावप, हो लग्नांतलो मुखेल सुवाळो आसता. लग्नाच्या दुसऱ्या दिसा व्हंकल न्हवऱ्याच्या घरा वता.

धाकल्या भावाक व्हडल्या भावाचे विधवा बायलेवांगडा लग्न जावंक मेळटा. बिऱ्होर लोकांमदीं सात दीस सुयेर पाळटात. आठव्या दिसा भुरग्याचें जावळ काडटात. ह्या वेळार मेजवानी दितात. एकविसाव्या दिसा सुयेरांतल्यान शुध्द जावपाचो निमाणचो विधी आसता. कार्तिक म्हयन्यांत भुरग्याचे कान तोपतात.

हे लोक बायलदैवतां आनी भुतांखेतां हांकां भजतात. देवतांभितर देवी ही मुखेल आसून, महामाया, बुढियामाई, दूधमाई ह्यो तिच्यो धुवो आनी नाती अशें मानतात. ह्या देवतांचीं आनी भुतांचीं प्रतिकां ते खोंपीचे उदेंतेक आनी अस्तंतेक दवरतात. ताका लागून खोंपीची राखण जाता असो तांचो समज आसा.

हे लोक मडें लासतात वा पुरतात. दहन केल्ल्या मड्याच्यो अस्थी गंगेंत वा लागसारचे न्हंयेंत सोडटात. इकराव्या दिसा वसणुकेंतले सगळे लोक न्हातात आनी सगळ्यांक जेवण घालतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बिलियर्ड्स** : एक विदेशी खेळांप्रकार. हो खेळ बॉल आनी बडी घेवन आयताकृती मेजाचेर खेळटात. ह्या खेळाची सुरवात खंय आनी केन्ना जाली, हेविशीं वाद आसा. पूण फ्रान्साचो सम्राट लुईस इकरावो (१४६१-१४८३) हाच्या दरबारांत ह्या खेळाचें मेज आशिल्लें अशी नोंद मेळटा. १९व्या शेंकड्याच्या सुरवेच्या काळांत हो खेळ भौसामदीं पावलो. लंडनच्या पिझ्झा कॉवेंट गार्डन हे सुवातेर हो खेळ पयले खेपे भौशिक स्वरुपांत खेळ्ळो.

फ्रेंच बिलियर्ड्स हें नांव Bille म्हणजे तोंकाची बडी ह्या फ्रेंच उतरावयल्यान पडलें अशें म्हण्टात. Bille हो शब्द Pila म्हणजे बॉल ह्या लॅटीन उतरावयल्यान घेतला अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा.

आर्विल्लो बिलियर्ड्स खेळ पंदराव्या शेंकड्यांत जरी खेळटाले तरी सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांनी तो लोकमान्य जालो. १५७६ वर्सा स्कॉटलंडाची राणी, क्वीन मॅरी हिचेकडेन बिलियर्ड्साचें मेज आशिल्ल्याचे पुरावे मेळटात.

१६७४ वर्सा चार्ल्स कॉटन हाणें बरयिल्ल्या 'Complete Gamester' ह्या पुस्तकांत ह्या खेळाचें वर्णन आसा. १८३५ वर्सा ह्या मेजाक रबर कुशन घालें. १८३६ वर्सा स्लेट बॅडस् चालींत आयली. सद्या जो बिलियर्ड्साचो क्यू (बडी) आसा तो अठराव्या शेंकड्यांत तयार जाल्लो. १९व्या शेंकड्यांत ताच्या तोंकाक 'चॉक' लायलो आनी बॉल हतयाच्या दांतापसून तयार करपाक लागले.

१८८५ वर्सा वेवसायीक तशेंच उमेदी बिलियर्ड्स खेळपी खेळगड्यांखातीर Billiard Control Club स्थापलो. १९४८ वर्सा Billiards Congress of America ची स्थापणूक जाली.

इंग्लीश बिलियर्ड्साखातीर The Billiards Association and Control Council ची १९१९ वर्सा स्थापना जाली. तशेंच फ्रँच बिलियर्ड्स खेळाखातीर १९५९ वर्सा Union Mondial de Billiard ही नेम तयार करपी संस्था तयार जाली.

इंग्लीश बिलियर्ड्स, कॅरम वा कॅनन वा फ्रँच बिलियर्ड्स, पॉकेट बिलियर्ड्स, अशे बिलियर्ड्साचे जायते प्रकार आसात. स्नूकर होय हेच पद्दतीचो पूण वेगळो स्वतंत्र खेळ.

हो खेळ दोग जाणांमदीं खेळपाचो आसता. तशेंच, चार खेळगड्यांमदीं दोन गट करुनूय खेळपाक जाता. हातूंत वापरतात ते बॉल हतया दांतांचे वा प्लास्टीकचे वा 'किस्टलेट' नांवाच्या रसायनापसून तयार केल्ले आसतात. एक बॉल धवो, एक धव्याचेर दोन काळे थिपके आशिल्लो (स्पॉट बॉल) आनी एक तांबड्या रंगाचो आसता.

हातांतले बडयेन (क्यू) दर एक खेळगडी हातूंतलो एकेक धवो बॉल वापरता आनी तांबडो बॉल मेजावयले थरावीक खुणेचेर (बिलियर्ड

स्पॉट) दवरून खेळ खेळटा. खेळगडी आपलो धवो बॉल घेवन सुरू करता. पयलो खेळगडी मेजाच्या 'डी' (बॉक सर्कल) भागांत खंयूय बॉल दवरून खेळूंक शकता. आपल्या धव्या बॉलान हेर बॉलांक मोखतकच गूण मेळटा.

आदीं हो खेळ दोन वरांच्या दोन सत्रांनी खेळयताले. १५० टी. रीस, सी. फॉकीनर, विली स्मिथ, सी. हार्वरसन, इ. डीगल हेय कांय नामनेचे खेळगडे.

भारतांत १९५८ वर्सा विल्सन जोन्स हाणें पयले खेपे लॅझ्ली ड्रिफिल्ड हाचेर हार घालून उमेदी संवसारीक वस्तादपण जिखलें. १९६४




बिलियर्ड्साचें मेज

गुणांचें ल्हान सत्रूय ह्या खेळांत आपणायतात. मेजावयल्या बॉलाक, खेळटा आसतना हात लावपाक खेळगड्याक बंदी आसता.

ह्या खेळाचें मेज ११ फूट ८$^1/_2$ इंच लांब, ५ फूट १० इंच रूंद आनी २ फूट १० इंच ऊंच आसता. ह्या मेजाक स बुराक आसतात. जांकां 'पॉकेटस्' म्हण्टात. ह्या मेजाचेर दाट पाचवें लुगट घालतात. ह्या खेळांत जे बॉल वापरतात तांचो व्यास ३२० मिमी. आनी वजन ०.०५ ग्रॅम आसता. ह्या खेळाखातीर जी बडी (क्यू) वापरतात तिची लांबाय तीन फूट आसता.

ग्रेट ब्रिटनांत ह्या खेळाची सुरवात जाली. अमेरिका आनी जपान ह्या देशांनी ह्या खेळाक आलाशिरो दिलो. फ्रांसांतूय ह्या खेळाक खूब नामना मेळ्ळी.

जॉनाथन केंटीफल्ड हो ह्या खेळाचो पयलोच खेळगडो. तेउपरांत वेवसायीक मळार ब्रिटनाचो जॉन रॉबर्टस् हाणें सगळयांत चड म्हळयार आठ संवसारीक वस्तादपणां जोडल्यांत. १८७० वर्सा जॉन रॉबर्टस् हाका डब्ल्यू. कूक ह्या तरणाट्या खेळगड्यान हारयलो. जॉन रॉबर्टस् ह्या गड्यान १९व्या शेंकड्यांत बिलियर्ड्स खेळाची लोकप्रियता खूब वाडयली. बॉल्टर लिंड्रम ह्या वेवसायीक गड्यान १९३२ वर्सा एकाच खेळांत ४,१३७ गूण मेळोवन उच्चांक केलो. उमेदी मळार ऑस्ट्रेलियेचो उमेदी खेळगडो रॉबर्ट मार्शल हाणें १९५३ वर्सा ७०२ गुणांच्या टप्प्यांचो उच्चांक केलो. अमेरिकेचो विल्यम फ्रॅडरिक हॉपी हो बिलियर्ड्स खेळांतल्या इतिहासांतलो एक नामनेचो खेळगडो मानतात.

तेचभाशेन सी. डॉसन, एच. डब्ल्यू. स्टीवन्सन, एम. इनमॅन, वर्सा ताणें ह्या जैताची पुनरावृत्ती केली. मायकल फेर्रैर (१९७७, १९८१, १९८३), गीत सेठी (१९८५, १९८७), मनोज कोठारी (१९९०) हांणी उमेदी संवसारीक सर्तीचीं वस्तादपणां जोडल्यांत. सगळयांत ल्हान संवसारीक वस्ताद जावपाचो संवसारीक विक्रम गीत सेठीच्या (२४ वर्सां पिराय) नांवार आसा. मायकल फेर्रैराच्या नांवारूय संवसारीक विक्रमाची नोंद जाल्या. सगळयांत चड राष्ट्रीय वस्तादपण जोडपाचो मान विल्सन जोन्स (१२ खेपे) हाका फावो जाला.

वेवसायीक संवसारीक करंड सर्त (१८७०), इंग्लीश ॲमेच्युअर चॅम्पियनशीप (१८८८), युनायटेड किंग्डम वेवसायिकांची सर्त (१९३४), उमेदी खेळगड्यांची संवसारीक करंड सर्त, आशियाई वस्तादपण सर्त, भारतांतली राष्ट्रीय बिलियर्ड्स सर्त १९३१ वर्सा कलकत्त्यांत सुरू जाली.

ह्या खेळाखातीर १९६२ वर्साचो अर्जुन पुरस्कार विल्सन जोन्स हाका मेळ्ळो. तशेंच १९७० वर्सा मायकल फेर्रैर, १९७२ वर्सा सतीशकुमार मोहन, १९७३ वर्सा श्याम श्रॉफ, १९७८-७९ वर्सा अरविंद सावूर, १९८३ वर्सा सुभाष अगरवाल, १९८४ वर्सा ओम अगरवाल, १९८५ वर्सा गीत सेठी, हे खेरीज विल्सन जोन्स हाका पद्मभूषण तशेंच ओम अगरवाल आनी गीत सेठी हांकां पद्मश्री हे नागरी पुरस्कार फावो जाल्यात.

युरोप आनी अमेरिका ह्या देशांनी ह्या खेळाचो व्हडलोसो प्रचार जावंक ना. पूण भारत आनी जपान ह्या देशांनी हो खेळ अदीक प्रमाणांत खेळटात. गोंयांत हो खेळ पांच नखेत्री हॉटेलां पुरतोच मर्यादीत आसा.

- सुशांत कुंकळयेंकार

**बिशप :** (पळेयात आर्चबिशप).

**बिसन नृत्य :** बस्तर प्रदेशांतलें एक लोकनृत्य. हो नाच चड करून लग्नावेळार करतात. तशेंच धरतीमाता आनी हेर देवतांक खोशी करपापासत तशेंच पेरणी-मळणी ह्या वेळारूय हो नाच करतात.

नाचांत वांटो घेवपी माडिया दादले-बायलो तरातरांचो भेस करतात. दादले माथ्याचेर बिसन म्हळयार गवो रेड्याचीं शिंगां बांदतात आनी तांचेर मोरापांखांचे गोंडे बसयतात. तांचेर कवड्यांच्यो माळोय बांदतात. दादले नर्तकांच्या हातांत व्हड धोल आसतात. एके वटेन हातान आनी दुसरे वटेन बडयेन हे धोल वाजयतात आनी ह्या धोलाच्या तालार हो नाच चलता.

बायलो गळयांत तरतरांच्या मणयांच्यो माळो आनी पितूळच्यो चवकोनी पुतळयो घालतात, तकलेर वाटकुळी धातूची तोपी घालतात. हातांत आनी पांयांत वाळे घालतात. दादले धोल वाजोवंक लागतकच बायलो तांचेभोंवतणीं घेर धरून नाचतात. तांच्या उजव्या हातांत एक लांब बडी आसता. ती बडी जमनीर आपटून त्यो नाचाचो ताल धरतात. तांचो दावो हात वांगडा नाचपी बायलेच्या खांदार आसता. नाचाच्या दर एका प्रकारांत गवो धरप हो एक प्रकार आसता. नाचा उपरांत चोंब्यान पदां म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**बिस्मिल्ला :** एक मुसलमानी संज्ञा. भुरग्याच्या शिक्षणाचो शुभारंभ असो हे संज्ञेचो अर्थ. हो धर्मीक संस्कार न्हय, पूण परंपरेन चलत आयिल्ली एक प्रथा.

ब + इस्म + अल्ला = बिस्मिल्ला. ह्या उतराचो खरो अर्थ 'ईश्वराच्या नांवान' असो जाता. कुराणांतल्या दर एका अध्यायाचे सुरवेक हें उतर येता.

भुरग्याचे पिरायेक चार वर्सां, चार म्हयने आनी चार दीस पुराय जातकच ताच्या शिक्षणाक सुरवात करतात. तेखातीर भुरग्याक नवे कपडे घालतात. शाळेंत वा मशिदींत व्हरून, थंय पयलीं ताका 'बिस्मिल्लाहिर्रहमानिर्रहीम' हें वाक्य म्हणपाक लायतात. उपरांत कुराणांतले कांय मंत्रूय ताचेकडल्यान म्हणोवन घेतात आनी सगळयांक गोडशें वांट्टात.

जेवपाक सुरू करतना, नवे कपडे घालतना, कसलेंय नवें कार्य सुरू करतना, मुसलमान लोक हें उतर उच्चारतात. ग्रंथाचे सुरवेकूय हें उतर बरोवपाची चाल आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बिस्मिल्ला खाँ :** (जल्म : २१ मार्च १९१६, दुमराव - शहाबाद, बिहार).

नामनेचो शेनायवादक. ताचें पुराय नांव अमरूद्दिनखाँ बिस्मिल्ला. ताचो जल्म शेनायवादकाच्या कुटुंबांतूच जालो. शेनायवादन हो तांच्या



घराण्याचो कुटुंबीक वेवसाय आशिल्ल्यान ताचो बापूय खाँसायब पैगंबर बक्ष हाचेकडल्यान भुरगेपणांतूच ताका शेनायवादनाचे धडे मेळळे. ताणें आपलो मामा खाँसायब अलिबक्ष हाचेकडेन पिरायेच्या सव्या वर्सा सावन पद्दतशीर शिक्षण घेवंक सुरवात केली. तेभायर विलायत हुसेन आनी सादिक अली हांचेकडेनूय ताणें संगिताचें शिक्षण घेतलें. ल्हव ल्हव करून आपल्या मामावांगडा ताका साथ दिवपाक लग्नासारक्या समारंभांनी तशेंच संगीत संमेलनांनी तो वंचूक लागलो. १९३० त पिरायेच्या चवदाव्या वर्सा ताणें आपल्या मामावांगडा अलाहाबादचे अखिल भारतीय संगीत परिशदेंत पयले खेपे शेनायवादनाचो भौशीक कार्यक्रम केलो. लखनौ प्रदर्शना निमतान जाल्ल्या संगीत संमेलनांत ताणें शेनायवादनाचो दुसरो कार्यक्रम केलो. थंय ताच्या बऱ्या वादनाखातीर ताका भांगरापदक मेळळें. तेन्नाच १९३७ त कलकत्त्याचे अखिल भारतीय संगीत परिशदेंत ताणें तीन भांगरापदकां मेळयलीं. १९३८ त लखनौ हांगा ऑल इंडिया रेडिओ केंद्राचेर ताणें पयले खेपे आपलो कार्यक्रम सादर केलो. १९४० त तो आनी ताचो भाव खाँसायब शमसुद्दीनखाँ हाणें एक संगीत मंडळी स्थापन केली आनी वेगवेगळे कार्यक्रम सादर केले. थोड्याच काळांत पयल्या पांवड्याचो शेनायवादक म्हणून ताका नामना मेळळी.

शेनायसारक्या वाद्याचेर गायकीचे सगळे प्रकार तयार करपी एक फिशाल वादक म्हणून तो नामनेक पावलो. गायनवादनाचे शैलीचो एक आगळो मेळ ताचेभितर दिसता. ख्याल, ठुमरी सारक्या संगीत प्रकारांप्रमाण कजरी, चैती, पूरबी अशो लोकधुनी वाजोवपाचें एक वेगळेंच कसब ताचेकडेन आसा. शेनायेचे फुंकेचेर ताचें प्रभुत्व आशिल्ल्यान ताचें वादन भावपूर्ण आसता. लयीचे साथी खातीर तो खोरदक नांवाचें वाद्य घेता. तें बडयांनी वाजयतात.

ताच्या असामान्य कलागुणांखातीर १९५५ त ताका 'नॅशनल कल्चरल ऑर्गनायझेशन' हे राश्ट्रीय संस्कृतीक संघटनेकडल्यान 'अखिल भारतीय शेनाय चक्रवर्ती' हो किताब मेळ्ळो. १९५६ त संगीत नाटक अकादेमी वतीन ताचो भोवमान जालो. १९६१ त ताका शासनाकडल्यान 'पद्मश्री' आनी १९८० त 'पद्मविभूषण' हे किताब मेळ्ळे. 'रॉयल नेपाळ आर्ट अकॅडॅमी' वतीनूय ताका सर्वोच्च मान मेळ्ळा.

१९६२ त तो अफघानिस्तान आनी पाकिस्तानांत गेलो. १९६४ त ताणें एडिंबरो संगीत महोत्सवांत भाग घेतिल्लो. १९६७ त तो अमेरिकेक गेलो. 'इंटरनॅशनल म्युझिक काउन्सिलच्या आपोवण्या वयल्यान ताणें युरोपाची भोंवडी केली (१९६९-७०). ताच्या शेनायवादनाच्यो ध्वनीमुद्रिका परदेशांतूय लोकप्रिय आसात. 'गूंज उठी शहनाई' ह्या चलचित्राखातीर ताणें वाजयल्ल्या शेनायवादनाक खूब नामना मेळ्ळी.

- कों. वि. सं. मं.

**बिहार :** उत्तर भारतांतलें एक राज्य. विस्तार २१°५८' ते २७°३१' उत्तर अक्षांश आनी ८३°२०' ते ८८°३२' उदेंत रेखांश. हाचे उत्तरेक नेपाळ हो देश आसून उदेंतेक अस्तंत बंगाल, दक्षिणेक ओरिसा, अस्तंतेक मध्य प्रदेश आनी उत्तर प्रदेश हीं भारतांतलीं राज्यां आसात. क्षेत्रफळ १,७३,८७६ चौ. किमी. लोकसंख्या ८,६३,३८,८५३ (१९९१). पटणा ही राज्याची राजधानी.

**भूंयवर्णन :** राज्याचो उत्तरेकडलो वाठार गंगेच्या मळाचो आसून दक्षिणेकडलो वाठार चडसो छोटा नागपूर सड्याचो भाग आसा. अस्तंत भागांत विंध्य श्रेणींतल्यो कैमूर दोंगुल्ल्यो आसात. राज्याचो उत्तर भाग म्हळ्यार हिमालय पर्वताच्या मुळसाचो तराई प्रदेश. राज्यांतल्या न्हंयेच्या गाळाचे सुपीक भुंयेची देंवती दक्षिणेकडेन आसून ही भूंय राज्यांतल्यान गंगा न्हंयेमेरेन पातळ्ळ्या. हिमालयांत उगम पावपी गंडक, बुरी गंडक, कोसी आनी बाघमती ह्यो न्हंयो ह्या राज्यांतल्यान व्हांवतात आनी गंगेक मेळटात. गंगेचे उजवे देगेवयल्यान येवपी न्हंयांती मध्य प्रदेशांतल्यान आयिल्ली उत्तरवाहिनी शोण ही गंगेची मुखेल उपन्हंय. बराकर, कोनार आनी बोकारो ह्यो दामोदर न्हंयेच्यो उपन्हंयो, तशेंच सुवर्णरेखा, उत्तर कोएल आनी दक्षिण कोएल ह्यो न्हंयो राज्यांतल्यान व्हांवतात. गंगेच्या मळार दक्षिणेकडेन छोटा नागपूर सड्यांचे कितलेशेच फांटे आयल्यात. ह्या तुटक्या सड्याची उंचाय उत्तरेकडल्यान दक्षिणेक १,०८५मी. मेरेन वाडिल्ली आसून रानां आशिल्ल्यो दोंगुल्ल्यो आनी तातूंतलीं अशीर खोल देगणां अशें ह्या वाठाराचें स्वरूप आसा. सड्याचो ईशान्य भाग राजमहाल दोंगुल्ल्यांचो आसून पारसनाथ हें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक (१,३६६मी.) हजारीबाग जिल्ह्यांत आसा. बिहारच्या उत्तर भागाक १९३४ त भूंयकांपाचो धपको बशिल्लो.

हांगाची माती उत्तर भागांत हळदुवीसार बांगर वा पोरन्या गाळाची आसून ती खूबकडेन कंकर भरसल्ली अशी आसा. सकयल्या वाठारांत गंगेक मेळपी, न्हंयांच्या हुंवारांनी हिमालयांतल्या व्हांवन हाडिल्लो गाळ मेळटा. छोटा नागपूर सड्याचेर फातर आनी तांबडी माती मेळटा. ह्या सड्याचो गाभो, नीस खडपांचो आसून, ताचेभोंवतणीं अभ्रक, सिलिका आनी हॉर्नब्लेंडयुक्त शिस्ट सांपडटात. रुपांतरीत खडपांच्यो कितल्योशोच दोंगुल्ल्यो राज्याच्या दक्षिण भागांत आसात. राजमहाल दोंगुल्ल्यांचेर जांभा खडप मेळटा, जाल्यार विंध्यश्रेणींकडेन संबंदीत अशा शाहाबाद जिल्ह्यांत वालुकाश्म, शेल आनी चुनखडक हे प्रकार दिसतात.

बिहार राज्यांत खूब खनिजां आसात. हांगा व्हड प्रमाणांत अभ्रक मेळटा. देशांतलो अर्दो कोळसो, ४०% लोखणाधातुक, हांचे खेरीज तांबें, चुनखडक, बॉक्सायट, मँगॅनीझ, बँटोमायट, कायनायट, क्रोमायट, ॲस्बेस्टस आनी रेडियम, युरेनियम दिवपी पिचब्लँड हीं खनिजां बिहारांत मेळटात. दामोदर न्हंय प्रकल्पाक लागून राज्यांत तिलैया, कोनार, बोकारो, अइयार, बलिपहरी, मैथॉन, पानचेतहिल अशीं कितलींशींच धरणां तयार जाल्यांत. तांच्या उदकाचो उपेग शेतकामाखातीर आनी वीज निर्मितीखातीर जाता.

**हवामान :** हवामानाचे नदरेन बिहाराचो वाठार गंगेच्या प्रवाहाचे दिकेप्रमाण सुक्या उत्तर प्रदेश राज्याकडल्यान उदेंतेकडल्या बंगालच्या दमट वाठाराकडेन वचपी संक्रमण क्षेत्राचो आसा. सादारण हवामान मैदानांत उश्णकटिबंधीय, गिमाळी पावसाच्या सॅव्हाना वाठारासारकें आसून सड्याच्या भागांत तें उपपर्वतीय स्वरुपाचें आसा. राज्यांतलें तापमान उण्यांत उणें ३.९° से. ते ९.४° सॅ. आनी चडांत चड तापमान ४०° ते ४६° सॅ. हांचे मजगती आसता. दक्षिणेच्या सड्याचेर हवा चड थंड उरता आनी पावस चड पडटा. राज्यांत वर्सुकी पावसाचें प्रमाण ९९ ते १५९ सेंमी. आसून तें अस्तंतेकडल्यान उदेंतवटेन वाडत वता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** राज्यांतलीं तणां, पिकावळ आनी वनस्पत चडशी उत्तर भारतांत मेळपी हेर वनस्पतीसारकीच आसा. मैदानी वाठारांत आंबो, नाल्ल, जांबळां, बेल, कोडूलिंबू, पिंपळ, बोर, बाभूळ, तशेंच दोंगराळ भागांत महुआ, शाल, शिसवी हे रूख मेळटात. कोंडे, तण आनी हेर वेगवेगळी वखदी वनस्पतय दिश्टी पडटा. वाग, कोले, कोलसुणीं, साळिंदर, वांस्वेल, बिबटो, माकड हीं जनावरां आतां त्या मानान उणीं जाल्यांत, देखून राज्य शासनान दोन राश्ट्रीय उद्यानां आनी सोळा अभयारण्यां उबारल्यांत.

**इतिहास :** बिहार हें विहार उतराचें अपभ्रश्ट रूप. मुसलमान आक्रमकांनी ह्या वाठारांतले खास करून उदंडपूर लागसारचे कितलेशेच बौध्द विहार पळोवन हें नांव दिलें. पुर्विल्ल्या काळांत गंगेचे उत्तरेक विदेह, दक्षिणेक मगध आनी उदेंतेक आशिल्ल्या अंग ह्या राज्यांचो वाठार आर्विल्ल्या बिहारांत येता. अथर्ववेद, यजुर्वेद हातूंतल्या

उल्लेखांवयल्यान वैदिक आर्य ह्या वाठाराक परकी मानताले अशें दिसता. ल्हव ल्हव आर्य संस्कृतायेच्या प्रसाराक ह्या वाठारांत इ.स.प. सुमार हजार वर्सांसावन सुरवात जाली आसूंक जाय. ताची सुरवात उत्तर बिहारांत जाली. ह्या राज्याविशीं रामायण आनी महाभारत ह्या महाकाव्यांनीय उल्लेख आयल्यात.




इ. स. प. सव्या शतमानांत ह्या वाठारांत मगध आनी अंग हीं राज्यां आनी वैशाली विदेह वाठारांत लिच्छवीचें वृजी हें गणराज्य आशिल्लें. मगधांतल्या बृहद्रथ वंशीय राजांक कुशीक दवरून बिंबिसारान (सुमार इ.स.प. ५४५) अंग राज्यूय जिखलें आनी लग्न संबंद जोडून मुत्सद्देगिरीन मगधाचें बळगें वाडयलें. गौतम बुध्द आनी वर्धमान महावीर हे अनुक्रमान बौध्द आनी जैन धर्मांचे संस्थापक ह्याच काळांतले. बिंबिसाराचो पूत अजातशत्रू हाणें लिच्छवी आनी कोसल जिखलें, नातू उदायिन हाणें पाटलिपुत्र (पाटणा) वसयलें. महापद्मनंदान मगध राज्याचें साम्राज्यांत रुपांतर केलें. निमाणचो नंद सम्राट धनानंद हाका पयस करून चंद्रगुप्त मौर्यान मौर्य वंशाची स्थापणूक केली (इ.स.प. ३२४). हातूंत ताका चाणक्याची मदत जाली.

चंद्रगुप्तानूय राज्यविस्तार केलो. तातूंत ताचो नातू सम्राट अशोक हाणेंय भर घाली. भारतभर पयलो एकछत्री शेक सुरू करपी राजा

म्हळयार मौर्यूच. कलिंग जिखतकच हिंसेविशीं तिडक आयिल्ल्यान अशोकान बौध्द धर्म आपणायलो. हाचे उपरांत मात मौर्यांची सत्ता उणी जाली. इ.स.प. २२०-२०० च्या सुमाराक बॅक्ट्रियन ग्रीसांनी मगधाचेर घुरी घाली. इ.स.प. १८७ त पुष्यमित्र शुंगान मगधाचें राज्य हातासलें. ते उपरांत शुंग (इ.स.प. १८५-७५) आनी कण्व (इ.स.प. ७५-३०) ह्या वंशांनी राज्य केलें. ह्या काळांत कलिंग राजा खारवेलान मगधाचेर दोनदां आक्रमण केलें. इसवी सनाच्या पयल्या शतमानांत कुशाणाचें वर्चस्व स्थापन जालें. इ.स ३२० त गुप्त सम्राट चंद्रगुप्तामेरेन मगधाचो इतिहास व्हडलोसो स्पश्ट ना.

गुप्त काळ (इ.स. ३२०-५५०) बिहारच्याच न्हय जाल्यार भारताच्या इतिहासांतलें एक भांगरायूग अशें समजतात. पराक्रमी अशा ह्या सम्राटांनी राज्य विस्तारा वांगडाच विद्या, कला, शास्त्रां हांकां उत्तेजन दिलें. तशेंच हिंदू धर्माचें पुनरुज्जीवन केलें आनी वेपार वाडयलो. चीनी भोंवडेकारांनी वर्णिल्ल्या नालंदा आनी विक्रमशीला ह्या मगधांतल्या विद्यापिठांची उदरगत ह्या आनी उपरांतच्या काळांत जाली. इ.स. ५५० त गुप्त वंशाचो ऱ्हास जातकच ताचे मांडलीक मौखरी बळिश्ट जाले. पूण तांणी चड तेंप तग धरलोना. गौड राजा शशांक हाणें सातव्या शतमानाचे सुरवेक मगधाचेर वर्चस्व स्थापन केलें. ताचें साम्राज्य खूब व्हड आशिल्लें. पूण ताच्या मरणाउपरांत तें तिगलेंना. मगधाचेर पयलीं पूर्णवर्मा आनी उपरांत हर्षवर्धनान प्रभुत्व मेळयलें. हर्षवर्धनाच्या मरणाउपरांत तिबेटांतल्यान मगधाचेर घुरयो जाल्यो. सातव्या शतमानाच्या मध्याक गुप्त वंशाचें पुनरुज्जीवन जालें, तातूंतलो देवगुप्त पराक्रमी आशिल्लो. पूण इ.स. ७२५ उपरांत गुप्त वंशाचो होय फांटो सोंपलो आनी कनौजाच्या यशोवर्म्यान मगधाचेर स्वामित्व स्थापन केलें. उपरांतचो अस्थीर काळ सोडलो जाल्यार इ.स.७५० त बंगालांत बळिश्ट जाल्लो पाल वंशीय राजा गोपाल हाणें बिहारांत आपली सत्ता स्थापली.

पाल राजांनी बिहाराचेर सुमार एक शेंकडो (७५०-८५८) राज्य केलें. देवपाल हो तातूंतलो सगळयांत कर्तबगार आशिल्लो. पाल राजा बौध्द पुरस्कर्ते आशिल्ले. तांणी कलेक उत्तेजन दिलें. णवव्या शतमानाचे अखेरेक बळिश्ट जाल्ल्या गुर्जर प्रतीहारांक ते तोंड दिवंक शकलेनात. धाव्या शतमानांत कलचुरी आनी इकराव्या-बाराव्या शतमानांत गाहडवाल ह्या वंशांच्या राजांनी पालांची बिहारमेरेनची सत्ता मोडून काडली. इकराव्या शतमानाचे अखेरेक कर्णाटक वंशान मिथिलेचें राज्य हातासलें.ताचो संस्थापक नान्यदेव हाची राजधानी सीमरामपुराक आशिल्ली.

बाराव्या शतमानाचे अखेरेक बख्तियार खल्जीन बिहाराचेर घुरी घालून तो आपल्या ताब्यांत हाडलो. बख्तियारान उदंडपूर, विक्रमशिला हे विहार नश्ट केले. ताच्या मराणाउपरांत दिल्लीचो सुलतान कुत्बुद्दीन ऐबक हाका बिहाराचेर शेक गाजोवपाची संद मेळ्ळी. उपरांत बंगालाचेर शेक गाजोवंक सोदपी मुसलमान सुभेदारांनी बिहाराचेर सत्ता गाजोवंक सोदचें आनी दिल्लीच्या सुलतानांनी ताचेआड मोहिमो काडच्यो, असो प्रकार सुरू जालो. तुघलकांनी ताब्यांत घेतिल्लो बिहार चवदाव्या शतमानांत जौनपूरच्या शर्की सुलतानांनी जिखलो. सिकंदर लोदीन परत एकदां दिल्लीचो पगडो बसयलो, पूण उपरांत नुहानी अफगाण बळिश्ट जाले. ह्या काळांत मिथिलेच्या कर्णाटकांकडल्यान ऑइनकर वंशाकडेन गेल्लें राज्य नांवापुरतें मांडलीक आशिल्लें. संस्कृत विद्या थंय फुलत रावली. सुफी पंथाक लागून बिहाराच्या कितल्याशाच भागांनी इस्लामचो प्रसार जालो.

१५२९त गोग्राच्या झुजांत अफघानांक हारोवन बाबरान बिहारांत मोगल सत्तेची स्थापणूक केली. ससारामचो जहागीरदार शेरशाह सूर (कारकीर्द १५३८-४५) हाणें अफघानांचें पुनरुज्जीवन केलें. शेरशाहान बिहारच्या प्रशासनाखातीर केल्ली वेवस्था मोगल शासनाक बुन्यादी थरली. कितल्योशोच बंडाळयो मोडून मोगल सम्राट अकबरान बिहार हो आपल्या साम्राज्याचो स्वतंत्र सुभो तयार केलो (१५७५). शाह जहानान बापायआड बंडाळी केली तेन्ना हांगा आलाशिरो घेतलो. ताच्या भुरग्यांमदल्या शुजाच्या ताब्यांतूय कांय काळ बिहार आशिल्लो. ताचेर हार घालून गादी हातासतकच औरंगजेबान आपले सुभेदार नेमपाक सुरवात केली. सतराव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत ताच्या शाइस्तेखान, दाऊदखान ह्या सुभेदारांनी राजा प्रतापाक जिखून पालामाऊचेर कब्जो मेळयलो. १७०३ त औरंगजेबान ताचो नातू अझीम-उश-शान हाका बंगालावांगडा बिहाराची सुभेदारी दिली. परत एकदां बंगालच्या सुभेदारांचें बिहाराचेर स्वामित्व सुरू जालें. मोगल सत्तेचो नाश जावंक लागतकच बिहारांत राजकीय अस्थीरताय जाली. अली वर्दी खानान बंगालची सुभेदारी हातासतकच (१७४०) नागपूरकार भोसल्यांनी बंगालावांगडा बिहाराचेर घुरयो घालून खंडणी जमयली. सिराजुद्दौल्याक क्लायवान प्लासीचे लडायेंत हारयलो (१७५७).

सतराव्या शतमानाच्या मध्यामेरेन ईस्ट इंडिया कंपनीन पाटणा, छप्रा आदी शाहरांनी वखारी उक्त्यो केल्ल्यो. कंपनीन बंगालचे सुभेदारीचेर मेळयल्ल्या वर्चस्वाचो परिणाम बिहाराचेरूय जालो. क्लायवान गादयेचेर हाडिल्लो बंगालचो सुभेदार मीर जाफर हाचेकडल्यान भांगराचो एकाधिकार मेळयलो (१७५८). १७६० त सुभेदारी हातासतकच मीर कासिमान बिहाराचेर पुराय शेक बसोवपाखातीर मोंघीराक राजधानी हालयली आनी विरोधी जमीनदारांचेर जरब बसयली, पूण खाजगी वेपाराच्या प्रस्नावयल्यान ताचो कंपनीकडेन संघर्श जालो आनी बिहारांतल्या तीन-चार लडायांनी ताका हार खावंची पडली. ह्याच काळांत (१७५९-६४) जाल्ल्या मोगलांच्या आक्रमणांक ब्रिटिशांनी चोख जाप दिली. बादशाह शाह आलम (दुसरो) दिल्लीच्या तख्ताचेर उरलोच. हारिल्ल्या मीर कासिमान ताचो आनी अयोध्येचो नबाब शुजा उद्दोला हांचो पालव घेतलो. पूण बक्सारचे लडायेंत शुजाय हारलो (१७६४). फुडल्या वर्सा

शाह आलमान कंपनीक बंगाल- ओरिसावांगडा बिहाराचीय दिवाणी दिली आनी बिहार ब्रिटिशांच्या पुराय ताब्यांत आयलो.

१७६८-७० ह्या काळांत बिहारांत भिरांकूळ दुकळ पडलो. वसुली कंपनीची आनी कारभार सुभेदारांचे, हे पद्दतीक लागून प्रजेचे हाल वाडले. १७७२ सावन तातूंत बदल जालो. पानिपताच्या तिसऱ्या झुजाउपरांत (१७६१) मराठ्यांचें उत्तर भारतांत पुनरुज्जीवन जावपाक लागलें. तांचे हालचालींचेर नदर दवरून पांयाबंद घालपाखातीर कंपनीक बिहारचो बरोच उपेग जालो. बिहारच्या सकयल्या वाठाराचेर कंपनी शेक बसोवंक शकली, तरी छोटा नागपूर, संथाळ, परगणा हांचेसारक्या दोंगराळ भागांचेर तो बसोवप सोंपें नाशिल्लें. अर्थीक कारणांक लागून ह्या भागांतले आदिवासी वयलेवयर कंपनीचे सत्तेआड झूजताले. असल्या बंडाळ्यांनी १८२०-३२ त कोल, भूंजिया, भूमिज, हो जमातींचे उठाव; १८५५-५६ आनी १९७०-७५ मजगतीचीं संथाळांचीं आंदोलनां आनी १८९८-१८९९ मजगतींचो बिर्सा भगवान (मुंडा) हाच्या फुडारपणाखालचो उठाव ब्रिटिशांक सैन्य वापरुनूच चेपचो पडलो.

बिहाराच्या जमीनदारांनी बनारसाचो राजा चेतसिंग आनी अयोध्येचो पदच्युत नबाब वझीर अली हांकां दाखयल्ले सहानुभूती फाटल्यान ब्रिटिशांआडचो असंतोश आसूंक जाय. १८५७ त हो असंतोश वाडलो. दानापूर, भागलपूर, हजारीबाग ह्या ठाण्यांच्या शिपायांनी बंड केलेंच, पूण जगदीशपूरचो राजा कुँवरसिंह, ताचो भाव अमरसिंह हांच्या फुडारपणाखालचीं आंदोलनां बिहारभर पातळ्ळीं. सैन्यावरवीं तीं मोडून काडलीं. वहाबी ह्या ब्रिटिशांआडच्या कडव्या मुसलमानी पंथाचेंय पटणा हें म्हत्वाचें केंद्र आशिल्लें. १८६४ त तांचो फुडारी असमदुल्ला हाका काळ्या पाण्याचे ख्यास्तीखातीर धाडटकच ती चळवळ थंडावली.

विसाव्या शतमानाचे सुरवेक बंगाली क्रांतीकारकांचो धग बिहारमेरेन पावलो. संथाळ परगणा हें तांचें केंद्र. बंगालांत स्थायीक जाल्लो महाराष्ट्रीयन सखाराम गणेश देऊस्कर हें तांचें प्रेरणास्थान आशिल्लें. १९०८ त खुदिराम बोसान मुझफ्फरपूराक बॉंब उडयलो. तातूंत दोन युरोपी मेले. खुदिरामाक गोळाक लायलो. बिहार प्रांतीक कॉंग्रेस समिती १९१२ त स्थापन जाली. अनुशीलन समितीचो फांटो पटणाक स्थापन जाल्लो (१९१३). १९१७ त गांधीजीन चंपारण्यांतल्या निळीच्या कामगारांचीं गाराण्यांचीं आंदोलनां करून दाद लावन घेतली. त्याच वर्सा पटणा विद्यापीठ विधेयकांतल्या प्रतिगामी कलमांच्या विचारांखातीर प्रांतिक कॉंग्रेसची खासा बसका आनी तिच्या कार्यकारी मंडळाचीं अधिवेशनां हांकां लागून राजकीय जागृताय व्हड प्रमाणाचेर जाली.

होमरुल लीग, असहकार, खिलाफत चळवळ, सविनय कायदेभंग, भारत छोडो ह्या सगळ्या कॉंग्रेसप्रणीत राष्ट्रीय चळवळींनी बिहारी लोकांनी वांटो घेतलो, वैयक्तिक आनी समुदायीक सत्याग्रह केले. खादी, सोरोबंदी, राष्ट्रीय शिक्षण, स्वदेशी अशा कितल्याशाच कार्यक्रमांक प्रतिसाद दिलो. १९२१ त बिहार राष्ट्रीय विद्यापीठ स्थापन केलें. १९३४ तल्या भूंयकांपाक लागून बिहाराचेर सगळ्या देशाचें लक्ष केंद्रीत जालें. स्वराज्य पक्षाच्या आदेशा प्रमाणे नगरपालिका, विधिमंडळ हांच्या वेंचणुकांनी बिहार वांटो घेत आशिल्लें. १९३७ त पयलें कॉंग्रेस मंत्रीमंडळ अस्तित्वांत आयलें. ताणें पक्षाच्या आदेशाप्राण १९३९ त राजिनामो दिलो. विसाव्या शतमानाचे सुरवेक दिशिल्लो हिंदु-मुसलमान एकचार मात परत दिसलोना. १९२४, १९२६-२७ आनी खास करून १९४६-४७ त व्हडा प्रमाणाचेर जातीय दंगली जाल्यो. १९४२ चे चळवळींत पटणांत मारिल्ल्या सात विद्यार्थ्यांच्या उगडासाखातीर १५ ऑगस्ट १९४७ दिसा पटणा सचिवालयाकडेन हुतात्म्यांचें यादस्तीक उबारलें.

बिहार प्रांतिक परिशदेन केल्ल्या १९०८ वर्साच्या थारांवात वेगळ्या बिहार प्रांताची मागणी आशिल्ली. त्याच वर्सा सरकाराक तेविशींचें निवेदन धाडलें. ताच्या आनी वंगभंगाच्या आंदोलनाच्या परिणामांत १९१२ त बिहार-ओरिसा बंगालासावन वेगळो केलो. १९३६ त बिहार ओरिसासावन वेगळें केलें. स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत १९४८ त सराईकेला आनी खर्सावान हीं सिंगभूम जिल्ह्यालागसारचीं संस्थानां विलीन जालीं. १९५६ त राज्य पुनर्रचणूक समितीच्या अहवालाप्रमाण पुर्णिया जिल्ह्याचो कांय भाग आनी मानभूम (पुरुलिया) जिल्ह्याचो चडसो भाग शासनाचे तजविजेप्रमाण अस्तंत बंगालाक जोडलो.

**आर्थिक स्थिती :** हांगाचे ७७% लोक शेतवडीचेर आदारून आसात. हांगा तांदूळ, गंव, मको, दाळ, अन्नधान्यां, तेलबियां, कपाशी, ताग-अंबाडी-वाख, तंबाकू, हळद, बटाटे हांची लागवड जाता. नगदी पिकांमदीं ऊंस उत्तरेकडल्या, ताग उदेंतेकडल्या आनी तंबाकू मोंघीरशेजारच्या जिल्ह्यांतल्यान घेतात. साऱ्यांचें वांटप राज्य सहकारी संस्थेवरवीं जाता. लागवडीखालच्या जमनीमदली ३१% वा ३,३६३ चौ. किमी. जमीन पाटाच्या उदकाखाल भिजता. बिहारांतली जमीनदारी पद्दत पुराय नश्ट केल्ली आसून जमीन कसपी शेतकारांकडल्यान शासनाक खंड मेळटा.

**उद्देग :** स्वातंत्र्या पयलींच्या काळांत बिहारांत जमशेटपूराक टाटाच्या तिरख्या कारखान्याचो एकूच व्हडलो उद्देगीक प्रकल्प आशिल्लो. स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत ह्या प्रकल्पाची आनिकूय वाड जाली आनी जमशेटपूराकूच विजेचीं इंजिनां तयार करपाचो कारखानो सुरू जालो. भौशिक मळारूय कितलेशेच कारखाने राज्यांत सुरू केल्यात. देखीक- बोकारो हांगाचो तिख्या कारखानो, सिंद्रीचो साऱ्या कारखानो, बरौनी हांगाचो तेल शुध्दीकरण कारखानो, रांचीचो यंत्रां आनी यंत्रांचीं अवजारां हांचो कारखानो हे कारखाने हांगा आसात. जमालपूरची रेल्वे कर्मशाळा, मुरीचो ॲल्युमिनियम कारखानो आनी गोमियाचो स्फोटकांचो कारखानो हे केंद्र सरकाराचे उपक्रम. हे खेरीज कागद, तांबें, जस्त, स्कूटर हांचेय कारखाने म्हत्वाचे आसात. राज्यांत २९ साकर कारखाने, ७ शिमिटा

कारखाने, ७ ऊर्ध्वपातन भाटयो आनी तीन ताग गिरणी आसात. रांचीक राश्ट्रीय कोळसो विकास संशोधन महामंडळाचें केंद्रीय कार्यालय आनी ओतकाम तंत्राची राश्ट्रीय संस्था आसा. जाल्यार धनबादेक इंधन संशोधन संस्था आनी खणकामाचें शिक्षण केंद्र आसा. उद्देगधंद्याचे उदरगतीखातीर बिहार उद्देग विकास महामंडळ, बिहार राज्य कृषी उद्देग विकास महामंडळ, बिहार राज्य अर्थ महामंडळ, बिहार राज्य लघुउद्देग महामंडळ हांचेवरवीं कार्य चलता. राज्य शासनान रेशीम गिरणी (भागलपूर), वीज सामुग्रीचो कारखानो (रांची ) अशे कितलेशेच नवे उद्देगीक उपक्रम सुरू केल्यात. बोकारो, दरभंगा, आदित्यपूर, रांची, मुझफरपूर, पटणा ह्या नगरांनी उद्देगीक क्षेत्रां आनी राज्यांतल्या धा केंद्रांनी उद्देगीक वसणुको स्थापन केल्यात.

राज्यांतल्या कुटिरोद्दोगांत हातमाग कापड उत्पादन हो सगळयांत सुसंघटीत उद्देग आसा. राज्यांत वेतकाम, कागद लगदो, कांश्याचीं आनी पितूळचीं आयदनां हे हस्तवेवसायूय चलतात. टसर रेशमाचें देशांतलें सगळयांत चड उत्पादन ह्या राज्यांत जाता. रेशमाचे किडे पोसपासावन रेशमी कापड विणकामामेरेन सगळया कामांनी मेळून सुमार एक लाख लोक गुंथिल्ले असात. देशाची ३५% खनीज संपत्ती बिहारांतूच आशिल्ल्यान खनिजां काडप होय हांगाचो एक म्हत्वाचो उद्देग. पत्रातू आनी बरौनी ह्या नगरांनी औश्णिक आनी सुवर्णरेखा, गंडक आनी कोसी न्हंयांचेर जलविद्युत् निर्मिती जाता.

**येरादारी :** राज्यांतल्या लोहमार्गांतल्या उद्देगीक वाठारांतल्या मार्गांचें विद्युतीकरण चालू आसा. राज्याच्या उत्तर भागांतले २,२०५ किमी. लोहमार्ग मध्यम मापी आनी दक्षिण भागांतले २,८०२ किमी. रूंद मापी आसात. गंगा न्हंयेक लागून तांचो एकामेकांकडेन संबंद जोडपाक व्हडीं आनी घाट हींच साधनां शक्य आसात. गंगा न्हंयेचेर बरौनी आनी मोकामा हाकां जोडपी एक पूल बांदला. १९७२ त राश्ट्रीय महामार्गाखेरीज राज्यांत सुमार १,१६,५७५ किमी. लांबायेचे महामार्ग आशिल्ले. तातूंतले सुमार २५% पक्के आसून चडशे दक्षिण भागांत आसात. गंगा आनी घागरा न्हंयांतल्यान १,३७० किमी. आनी खारजांतल्यान ३७३ किमी. उदकायेरादारी चलता. राजधानी पटणा दिल्ली आनी कलकत्ता ह्या शारांक जाल्यार रांची आनी जमशेटपूर हीं शारां कलकत्त्याक हवाई मार्गान जोडल्यांत.

**लोक आनी समाजजीण :** १९९१ चे जनगणनेप्रमाण बिहाराची लोकसंख्या ८,६३,३४,८५३ इतली आशिल्ली. दादाल्यांची संख्या ४५,१४७,२८० आनी बायलांची संख्या ४१,१९१,५७३ इतली आशिल्ली. बिहारचे लोकसंख्येंत भौतेक हिंदू, तशेच मुसलमान, आदिवासी, क्रिस्तांव, शीख, जैन आनी बौध्द लोक आशिल्ले. अनुसुचीत जाती आनी जमातींचे लाखांनी लोक हांगा आसात. आदिवासींची संख्या ओरिसा आनी मध्य प्रदेशा फाटोफाट बिहारांत, छोटा नागपूर सड्याचेर आसा. तांच्या २९ जमातींची वसणूक रांची, सिंगभूम आनी संथाळ परगण्यांत आसून मुखेल जमातींमदल्या संथाळ, मुंडा, हो, खोंड आनी भुईया हांच्यो बोली ऑस्ट्रिक आनी ओराओं, खाडिया, माल पहाडिया हांच्या द्रविडी भाशा कुटुंबांतल्यो आसात. राज्यांत काम करपी कामगारांमदले ८०% लोक शेतांत, ३% लोक घरगुती वेवसायांनी आनी उरिल्ले लोक हेर वेवसायांनी गुंथिल्ले आसात.

सामान्यपणान बिहारी लोक वर्णान काळे आसून तांचें रावप सादें आसता. दादल्या-बायलांच्या भेसांत उत्तर प्रदेश आनी बंगालांतले भेस पद्दतीचो समन्वय दिश्टी पडटा. तांचो आहार शिवराक आसलो तरी तांकां मासभक्षण वर्ज्य नासता. जेवणाच्या जिनसांनी विविधताय उणी आसता. उकडो तांदूळ खावपाची पद्दत दिश्टी पडटा. पणसाचो उपेग भाजयेखातीर चड करतात. फोवांक ते चूडा म्हण्टात आनी ते धंया वा दुदावांगडा खातात. सांसवांचें तेल तांच्या जेवणांत आसता. अन्नवस्त्राच्यो पद्दती गंगेच्या प्रवाहावांगडा उत्तर प्रदेशाकडल्यान बंगालाकडेन बदलत गेल्ल्यो दिसतात. बिहारी लोक थोडेशे भोळे, भावीक पूण हट्टी दिसतात. तांचेमदीं ब्राह्मण, कायस्थ, राजपूत आनी भूमिहार हे चार वर्ग मेळटात. बिहारी असो एकजिनसी समाज ना. वेगवेगळयो जाती आनी आदिवासी जमाती हातूंत हो समाज पातळळा.

बिहारचे लोक उत्तर भारतीय आनी बंगाली हिंदूंचे सण मनयतात. खिचडीका दिन (संक्रांत), सरस्वतीपुजा, होळी, दसरो, दिवाळी आनी त्रिपुरी पुनव ह्या सणांखेरीज 'छठ' म्हळयार कार्तिक शुध्द सश्ट ह्या सूर्यपुजेच्या सणाक बिहारी बायलांमदीं खूब म्हत्व आसा. रक्षाबंधन, कृष्ण-जल्माश्टम आनी तीज वा भाद्रपद शुध्द तय हे सणाचे दीस मानतात.

बिहार राज्यांत हिंदीवांगडा उर्दू आनी बंगाली भासोय म्हत्वाच्यो आसात. उत्तर भागांतली मैथिली ही हिंदीचोच एक पोरनो अभिजात नागर आविश्कार मानतात आनी आयजूय मैथिलींत साहित्यनिर्मिती जाता. अस्तंतेकडले भोजपूरी, दक्षिणेची मगही आनी छोटा नागपूर सड्यावयली कूर्माली ह्यो बिहारांतल्यो बोली हिंदीचेच प्रकार मानतात, आदिवासींच्या बोलींची संख्याय खूब व्हड आसा. १९९१ चे शिरगणतेप्रमाण बिहारांत साक्षरतायेचें प्रमाण ३८.५४ इतलें आशिल्लें. राज्यांत भागलपूर, मुझफरपूर, बोधगया, पाटणा, रांची, पुसा आनी दरभंगा हांगा दोन अशीं आठ विद्यापिठां आशिल्लीं. नालंदा, समश्टीपूराकूय विद्यापिठां आसात.

**कला आनी खेळ :** पयलीं बिहारचे कलाकार हिंदुस्थानी संगितांत फिशाल आशिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. १८१३ पाटण्याचो नामनेचो संगिताचार्य मुहम्मद रझा हाणें हिंदुस्थानी रागरागिणी संकलीत केल्यो. किराणा घराण्याच्या वहीदखाँचो शिश्य प्राणनाथ हो नामनेचो गायक. नृत्यकलेविशीं मैथिली कवी विद्यापतीच्या नाचारी गिताचो उल्लेख अबुल

फज्लच्या आइन-इ-अकबरींत आसा. नृत्याचार्य हरिजी उप्पल हाचें भारतीय नृत्यकलामंदिर वावर करीत आसा. बिहारांतल्या आदिवासींचे समूहनाच ओडलायणे आसतात. हस्तकलांमदीं पाटण्याचें जरी भरतकाम, बिहारशरीफ आनी रांचीचें हातमागावयलें कापड, भागलपूरचें टसर रेश्मी कापड, रांची जिल्ह्यांतल्यो लाखेन मढयल्ल्यो सोबेच्यो लांकडी वस्तू, कोंड्याच्यो आनी सिक्की तणाच्यो शेंदऱ्यो, पांटले, चेपीं आदी वेगवेगळे प्रकार बिहारच्या परंपरीक कारागिरींतलें सौंदर्य दाखयतात.

**म्हत्वाचीं थळां** : पुर्विल्ल्या काळांतली ही पुण्यभूंय, बुध्द-महावीराची धर्मभूंय, मौर्य-गुप्त साम्राज्याची कर्मभूंय आनी शेरशाहासावन स्वातंत्र्य चळवळीमेरेन गाजिल्ली इतिहासाची रंगभूय बिहार, ही आयज सैमीक संपत्तीचो विकास करपी मनशाच्या कश्टांची कर्मभूंय थारल्या. पटणा हें राजधानीचें शार भारतांतलें एक पुर्विल्लें शार. पटणाचें गंगेचें विशाल पात्र, पुर्विल्ल्या अवशेशांचें संग्रहालय, शेरशाहाची शाही मशीद, शाहजादा पर्विझाची पत्थर मंझिल, हैबतजंगची कबर, हरमंदिर, गुरुद्वारा, खुदाबक्ष प्राच्यविद्या ग्रंथालय, ३४ मी. उंचायेचें मोगल काळांतलें धान्यकोठार 'गोलघर', १९४२ च्या 'छोडो भारत' आंदोलनांतलें हुतात्म्यांचें व्हडलें यादस्तीक हीं प्रेक्षणीय थळां आसात. राज्यांत हेरकडेन आशिया खंडांतलो सगळयांत व्हड गोरवांचो बाजार कार्तिक पुनवेक जंय भरता. तें गंगादेगेवयलें सोनपूर, हिंदूंची पितृगया आनी लागसारची बौध्दांची बोधगया, तशेंच बुध्दाच्या जिविताकडेन संबंदीत राजगीर आनी वैशाली हीं थळां, पुर्विल्ल्या विद्यापिठाची वास्तू नालंदा, महावीरांचें निर्वाणस्थान पावापुरी, हजारीबाग जिल्ह्यांतलें १३६६ मी. उंचायेवयलें पार्श्वनाथ मंदिर, पुर्विल्ली राजधानी बिहार वा उपरांतच्या बिहारशरीफचे इतिहासीक अवशेश, तेराव्या शेंकड्यांतले मलिक इब्राहिम बाथा, मखदुम शाह शरीफुद्दीन हांचे दर्गे, ससराम ची शेरशाहाचे कबरीची व्हडली अप्रतिम इमारत हीं इतिहासीक आकर्शणां आसात. तेभायर इतिहासीक आनी उद्देगीक शार मोंघीर, बिहारची गिमाळी राजधानी रांची, रेशीम उद्देगाचें केंद्र भागलपूर, जमशेटपूर हीं बिहाराचीं आर्विल्लीं प्रेक्षणीय थळां.

- कों. वि. सं. मं.

## बिहारी कवी : (जल्मः सु. १५९५, ग्वाल्हेर; मरण : सु. १६६३).

एक नामनेचो हिंदी कवी. ताचें नांव बिहारीलाल काय बिहारीदास हे विशीं वाद आसा. पूण 'बिहारी' ह्या नांवानूच ताची चड नामना आसा. ताचो जल्म गांव आनी ताची जल्म तारीख हे संबंदी निश्चित म्हायती मेळना.

पिरायेच्या सातव्या-आठव्या वर्सा बिहारी बापायवांगडा ओरछा (मध्य प्रदेश) हांगा रावपाक गेलो. थंय ताणें हिंदीचो नामनेचो कवी आनी आचार्य केशवदास हाचेकडेन काव्यशास्त्राचें अध्ययन केलें. संस्कृत, प्राकृत, उर्दू, फार्सी ह्या भाशांचो अभ्यास केलो. निंबार्क हाच्या संप्रदायाची ताणें दिक्षा घेतली.

आग्रा हांगा नामनेचो कवी अब्दुर्रहीम खानखाना (१५५६-१६२६) हाचेकडेन बिहारीची वळख जाली. खानखानाची तोखणाय करपी कांय दोहे ताणें बरयले तेन्ना खोशी जावन खानखानान बिहारीक पुरस्कार दिलो अशें सांगतात. शाहजहान बादशहाचो ताचेर लोभ आशिल्लो. तशेंच जोधपूर, बुंदी ह्या संस्थानांकडल्यानूय ताका पुरस्कार मेळटालो. जयपूरचो राजा जयसिंह हाचेकडेनूय बिहारीचो संबंद आयिल्लो. एकदां तो थंय गेल्लेकडेन ताका दिसलें, राजा जयसिंह हो रातदीस, आपले नवे राणयेच्या सांगातांत आसता आनी ताचें राज्यकारभाराकडेन लक्ष नासता. म्हणून राजाक जाग्यार हाडपाखातीर बिहारीन एक दोहा रचलो आनी राजाक धाडलो. तो दोहा आयकतच जयसिंहाचे दोळे उगडले आनी ताणें बिहारीक खूब पयशे आनी एक गांव इनाम दिलें. जयपूर दरबाराचो तो राजकवी जालो. जयसिंह राजान बिहारीकडल्यान कितल्याशाच दोह्यांची रचणूक करून घेतली. ह्या दोह्यांचो संग्रह म्हळयार 'बिहारी सतसई'.

ह्या ग्रंथांत सातशांपरस चड म्हळयार सुमार ७१३ दोहे आसात, तेखातीर ह्या ग्रंथाक 'सतसई' अशें नांव मेळ्ळें. ह्या दोह्यांचे नीत, अध्यात्म आनी शृंगार अशे तीन वांटे करूं येतात. पूण 'सतसई'त शृंगारीक दोह्यांची संख्या चड आसा. सतसई इतली हिंदींतल्या आनीक खंयच्याच ग्रंथाक इतली नामना आनी प्रतिश्ठा मेळूंक ना. तेच भाशेन 'रामचरित मानस' सोडल्यार हेर खंयच्याच ग्रंथाचेर 'सतसई' इतली टिका वा विवेचन जाल्लें ना. सतसईचेर सुमार ५४ टिका आनी विवरणग्रंथ बरयले. ह्यो टिका संस्कृत, हिंदी, राजस्थानी ह्या भाशांनी, तशोच गद्यांत आनी पद्यांतूय आसात. डॉ. अमरनाथ झा हाणें हातूंतल्या तीनशें दोह्यांचो इंग्लीश भाशेंत अणकार केला. जगन्नाथदास हाणें संपादीत केल्ली 'रत्नाकर' ही बिहारी सतसईची टिकात्मक आवृत्ती प्रमाणभूत आनी सर्वोत्कृश्ट मानतात.

इतली थोडी काव्यरचना करून येदो व्हड भोवमान मेळोवपी हो एक म्हान हिंदी कवी. मुक्तकासारक्या रचना प्रकाराचो वापर आनी शृंगारीक आशयाची सोबीतकाय हांचो सोबीत मेळ बिहारी हाणें सादला. मुक्तक प्रकारांतले रचनेचो बेसबरो वापर ताच्या 'सतंसई' ह्या ग्रंथांत दिसता. नायक-नायिकांचो विरह आनी मिलन ह्या दोनूय अवस्थांची भरसण ह्या ग्रंथांत आसा.

अलंकारांचो आनी शब्दप्रयोगांचो अचूक वापर, नितीचीं आनी भक्तिचीं सुभाषितां आनी विंगड विंगड विशयांचें कवींचें गिन्यान ह्या गुणांक लागून ताचें काव्य लोकप्रिय जालें. ताच्या दोह्यांचें खाशेलपण म्हळयार तातूंत स्वतंत्र कल्पकताय, सुचकताय, अर्थाची गंभीरताय आनी शुध्द ब्रज भाशेचो वापर.

- कों. वि. सं. मं.

**बिहू :** आसामी लोकांचो एक उत्सव. ह्या प्रसंगार करतात त्या नाचाक वा नाचावांगडा म्हण्टात त्या पदांक बिहू पदां अशें नांव आसा. चड करून हो उत्सव शेतकाम आनी पशुपालन हांचेकडेन संबंदीत आशिल्लो. आयज लेगीत तो शेताच्या कामाच्या दिसांनी मनयतात, पूण तातुंतली मूळ कल्पना कुशीक पडून फकत नाच आनी पदांचो बोवाळ इतलोच अर्थ उरला.

बिहू उत्सवाचेर ऑस्ट्रोएशियाटिक लोकांचे संस्कृतायेचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. ह्या उत्सवाच्या निमतान जे नाच करतात, तातूंतल्यान चड करून तरणाटे चले-चलयांची मोगाची भावना आनी समागम इत्सा प्रगट जाता. धान्याची उत्पत्ती आनी प्रजेची उत्पत्ती ह्या कल्पनांचो मेळ तांणी ह्या गितांनी घाला.

रंगाली, भोगाली आनी कंगाली अशे बिहूचे तीन प्रकार आसात. तांकां बोहाग बिहू, माघ बिहू आनी काती बिहू अशींय नांवां आसात.

रंगाली बिहू वैशाख म्हयन्यांत येता. आसामी वर्साचो पयलो म्हयनो बोहाग वा बहाग ह्या नांवान वळखतात. हो वसंत ऋतूचो म्हयनो. ह्या म्हयन्यांत सगळी सृश्ट टवटवीत आसता. अशा वेळार आसामी दादले-बायलो बोहाग बिहूचे तयारेक लागतात..

बिहूच्या आदल्या दिसा येवपी सक्रांतीक गोरा बिहू म्हण्टात. ह्या दिसा, कोणागेर गोरवां आसात, ते लोक आपल्या गोरवांक हळद आनी हुड्डाचें पीठ लावन न्हाणयतात आनी तांकां दुदी खावपाक दितात. त्या दिसा घरांतले सगळे लोक शीत जेवतात आनी आयदनां घांसून-पुसून चकचकीत करतात. दुसऱ्या दिसा ते फकत फोव आनी गोडशें खातात. सुनेन त्या दिसा आपणें स्वता विणिल्लो वालो वा चादर घरांतल्या जाणट्या मनशांक अहेर करचो आसता. ह्या सुवाळ्याक 'बिहुवान' अशें म्हण्टात. ते रातीं हुकरी पदां म्हण्टात. म्हळ्यार लोकांच्या घरा वचून चोम्यांनी म्हणपाचीं पदां, हुकरी पदां हुकरी म्हणपी घरांत येतकच येजमान तांकां विणिल्लो गळयापटो, पानसुपारी आनी दक्षिणा दिता. थंयसावन परततना हुकरीवाले आशिर्वादाचें पद म्हण्टात. ह्या उत्सवाच्या निमतान इश्टांक, सोयऱ्या-धायऱ्यांक भेटवस्तू दिवपाची चाल आसा.

भोगाली बिहू मकर संक्रांतीच्या अदमासाक वा होळी वेळारूय येता. शेतांत एक खोंप उबारून हो उत्सव मनयतात. ते खोंपीलागसार व्हड व्हड लांकडां स्तूपाकार रचतात ताका मेजी म्हण्टात. उत्सवाच्या आदल्या दिसा लोक एकठांय जमून थंय जेवतात आनी दुसऱ्या दिसा फांतोडेर, कोंब्यान साद घालचे पयलीं उठून, न्हावन धुवून ती खोंप आनी मेजी लासतात. त्याच उज्यांत बटाट, कणगां भाजून खातात. घरांतल्यो बायलो न्हावन ते होळयेची पुजा करतात. सगळ्यांक गोडशें वांट्टात. उत्सवाच्या दुसऱ्या दिसा परतून अग्नीची पुजा करतात. ह्या तीन दिसांमदीं अग्नीक पांय लावप पाप समजतात. हो हंगाम सुगीचो म्हळ्यार पिकावळीचो आशिल्ल्यान ताका भोग बिहू अशें नांव पडलां.

कंगाली बिहू कार्तिक म्हयन्यांत येता. ह्या उत्सवांत दारामुखार मुजरत तुळशीपेड बांदून तुळस लायतात. तिचेमुखार एका डब्यांत एक पणती म्हयनोभर पेटत दवरतात. ह्या उत्सवांत देवीची पुजा-प्रार्थना करतात.

दादले-बायलो भरसल्लो नाच चड करून बोहाग बिहूवेळार करतात. ह्या नाचाचे वट्ट चार प्रकार आसात. ते अशे-

१) फकत बायलांचो -हातूंत दादल्यांक वांटो घेवंक मेळना. दोन चलयो एकमेकां सामकार उब्यो रावन नाचतात आनी तांचे मदली एक चली दादल्याची भुमिका करता.

२) दादले बायलांचो भरसल्लो-हातूंत बायलो नाचतात आनी दादले धोल, झांज वा ताळयो वाजयतात.

३) दादले आनी बायलांचो विभक्त -हातूंत दादले आनी बायलो एकाच मैदानाचेर पूण आपापले ओळींत विंगड विंगड वाटकुळांनी नाचतात.

४) दादले आनी बायलो एकठांय-दादले आनी बायलो एकमेकांसामकार स्वतंत्र ओळींत वा एकाभितर एक अशीं दोन वाटकुळां करून नाचतात.

पदां हीं ह्या नाचांतलें म्हत्वाचें आंग आसता. नर्तकी नाचावांगडा एका प्रस्नाच्या अर्थान गिताक सुरवात करता. तिचो नाच थांबतकच एक नर्तक फुडें येवन पदांतल्यानूच त्या प्रस्नाक जाप दिता आनी तोय नाचपाक लागता. केन्ना केन्नाय दोगांयचो एकाच वांगडा चलता. तरणाटे चले चलयो शेतांत काम करतना वा नुस्तें पागतना हीं बिहू पदां गायतात. बिहू पदां चड करून चार चार ओळींचीं आसतात. ह्या पदांतल्यान विंगड विंगड प्रतिकां वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बीं :** वनस्पतीचें प्रजोत्पादक इंद्रीय (आंग). बीजी वनस्पतींत सांपडपी बीजकाचें फलन जाले उपरांत बीजकाचें रुपांतर बीयेंत जाता आनी कांय काळाउपरांत बीं रुजून ताचेपसून नवी वनस्पत निर्माण जाता.

बीयेपसून वनस्पतीचें प्रजोत्पादन जावप अशी सर्वसादारण प्रक्रिया आसली तरी कांय वनस्पतींचे (केळ) बाबतींत बीयो प्रजोत्पादनाखातीर निरुपयोगी आसतात. अशा वनस्पतींत मुळांपसून निर्माण जाल्ल्या कोंबांवरवीं प्रजोत्पादन जाता. कांय वनस्पतींचे बाबतींत फळ (कारांदो), कांड (ऊंस) हांचो उपेग जाता. कांय वनस्पतींचे बाबतींत (आंबाडो, मशींग) खांदयांत वरवीं नवी पिळगी जल्माक येता. वनस्पतींचे बाबतींत (आंबो, चिकू, पणस) बीं फलोत्पादनाखातीर उपेगी आसुनूय, उच्च प्रतीच्या प्रजोत्पादनाच्या उद्देशान कलम प्रक्रियेवरवीं प्रजोत्पादन करप

जाता. कृषिविज्ञानांत फूल, बीजक, फळ हांच्या संयोगावरवीं निर्माण जाल्ल्या प्रजोत्पादक इंद्रियाकच बीं म्हणप जाता आसलें तरी सामान्य कृषिभाशेंत प्रजोत्पादनाखातीर उपेगांत हाडिल्ल्या सगळ्याच इंद्रियांचो बीं वा बियाणे ह्या शब्दाखाला आस्पाव जाता. प्रजोत्पादनाच्या उपेगावांगडाच वनस्पतीचे (रोंप्याच्या) सुरवेचे वाडीक बियेंतलो गर अन्न पुरवण करता. तशेंच मनीस आनी मोनजातीचें अन्न म्हणून भोवतेक बीयांचो व्हडा प्रमाणांत उपेग जाता.

**बीं संरचना :** पुर्णावस्थेंतले बियेक एक वा दोन आवरणां (काती) आसून ताचेर एक बुराक आसता ताका बीजकरंध्र (micropyle) म्हण्टात. हातूंतल्यानूच बीजकांतल्या अंदुकांत परागनलिका फलनाच्यावेळार प्रवेश करता. कांय फुलझाडांत बीयेचो देंठ बिजकरंध्रालागींच आसता जाल्यार कांय जाणांत तो पयस आसता. तो तुटल्याउपरांत बीयेचेर उरिल्ल्या



बियेची प्रजोत्पादन प्रक्रिया

दागाक बोंबली म्हण्टात. कांय बियांचेर बीजकरंध्राफुडें बोंबलेलागीं एक दाट कंगरो आसता. ताका संधीरेशा म्हण्टात. चडशा अधोमुख (बीजकरंध्र सकयल वळिल्ल्या) बीजकापसून तयार जाल्ले बियेचेर ही संधीरेशा सांपडटा. केन्ना केन्नाय पुळयो, कंगरे सारकिल्ल्यो संरचनाय बिजावरणापसून तयार जातात. एरंडाच्या बियांचेर बोंबलेलागीं बीजावरणापसून तयार जाल्ल्या मासाळ उंचवट्याक नाभिजाल म्हण्टात. तशेंच बोंबली वा बीजबंध हांचेपसून तयार जाल्ल्या अर्दवट वा पुराय विशेश अशा आवरणाक अध्यावरण म्हण्टात. कमळाच्या बियांच्या अध्यावरणांतल्या हवेकलागून तें उदकांत उफेता. अध्यावरण हीं संज्ञा सामान्यपणान बिजावरणांतल्या सगळयाच तरांच्या खाशेल्या संरचनांत वापरतात. केन्ना केन्नाय बिजावरणाचेर पाखां, केसांचो तुरो, धागे, उपत्वचेचो लेप वा कांटे, कंगरेय आसतात.

उदकांत भिजयल्ल्यो बियो सोलून पळयल्यार तातूंत बिजावरणान धांपिल्ले वनस्पतीच्या गर्भाचे भाग दिसतात. एका बारीक अक्षाक चिकटून एक (देखीक- गंव, मको) वा दोन पातळ (देखीक- एरंड, ओक) वा दाट (देखीक- हरभरो, वाटाणो, पावटो) गर्भदलां (दलिका) दिसतात. गर्भाक्षाच्या वयल्या भागाक अध्यक्ष आनी दलिकांच्या सकयल्या भागाक अधराक्ष म्हण्टात. अप्याक्षाच्या तोंकाक आदिकोरक वा कोंब आनी अधराक्षाच्या तोंकाक आदिमूल वा मोड म्हण्टात. अप्याक्षापसून खोड आनी पानां हांचो प्ररोह, अधराक्षापसून खोड आनी मूळ हातूंतलो मध्यभाग आनी आदिमूलापसून मूळ तंत्र तयार जाता.

**दलिका :** प्रकटबीजींत दोन (देखीक- सायकस) वा चड दलिका (देखीक- पायन) आनी पुश्क हांचेभायर अन्नांश आशिल्लो भाग सांपडटा. दलिकांच्या आंकड्यावयल्यान आवृतबीजी वनस्पतींचे दोन वर्ग केल्ले आसात. ते म्हळयार १) एक दलिकीत (एक दल आशिल्ल्यो) आनी २) द्विदलिकीत (दोन दलां आशिल्ल्यो). द्विदलिकितांच्या कांय बीयांनी (देखीक- एरंड) अन्नसाठो पुश्कांत आसून दलिका पानांसारक्यो पातळ आसतात तर थोड्यांत (देखीक- हरभरो, पावटो, घेवडो) गर्भाच्या विकासांत रुजवणेंत लागपी अन्नसाठो दलिकांत आशिल्ल्यान त्यो मासाळ आसातात. एकदलिकितांचे बीयेंत (देखीक- खारीक, मको, गंव) चडकरून पुश्क आसता आनी तातूंतल्यां ढालीसारके दलिकेक पुश्कादनी म्हण्टात. कारण रुजवणेचे प्रक्रियेंत तिचें काम पुश्कापसून अन्नशोशण करून तें गर्भाक दिवपाचें आसता. जायत्या एकदलिकितांच्या (देखीक- सस्यफळां (धान्यां)) गर्भाच्या आदिकोरक (plumule) आनी आदिमूल (radicle) हांचेर आवरक वेश्टनां आसून तांकां क्रमान आदिकोरकवेश्ट (coleoptile) आनी आदिमूलवेश्ट (Coleorrhiza) म्हण्टात. कांय बियांनी दलिकांभायरूय अन्नसाठो सांपडटा. त्या ऊतकाक (tissue) परिपुश्क म्हण्टात (देखीक- कमळ, गुलबुश, वेलदोडो) पुश्कयुक्त बीयेक सपुष्क आनी पुश्क नाशिल्ल्याक अपुष्क म्हण्टात.

**बीजावरण :** बीजावरणाचे बाबतींतूय द्विदलिकित आनी एकदलिकित हांच्या बियांनी फरक सांपडटा. एकदलिकितांत धान्यांतलें फलावरण आनी बीजावरण एकरूप जावन ताचे भितल्ले वटेन पुश्क- कोशिकांचो एक प्रथिनयुक्त ऊतकाचो थर जाता. द्विदलिकितांत बीजावरणाची संरचना वेगवेगळया तरेची आसता. घट्ट फलावरण आनी पातळ बीजावरण आशिल्लीं जायतीं बियां फलावरणापसून वेगळीं आसतात. देखीक-सूर्यफूल आनी दुधळ, चेरी, रासबेरी तशेंच अक्रोड, बदाम हांचीं अश्मगर्भी फळां, बीयांच्या वेगवेगळया भागांचो आनी ताचेवयल्या आवरणांचो उपेग तांच्या सैमीक प्रसाराखातीर करतात.

वेगवेगळया प्रकाराच्या बियांत संघटनाविशीं वेगळेंपण दिसता. साल वा बीजावरणां, दलिका, पुष्क, परिपुष्क, अध्यावरण, नाभिजात सारकिल्ल्या भागांत सांपडपी पदार्थूय वेगळया तरांचे आसतात आनी त्या त्या बियांक तांचो वेगवेगळे तरेन उपेग जाता. सोयाबीन आनी भिकणां हांच्या दलिकांत तेलाचें प्रमाण भरपूर आसता. पूण घेवड्याच्या दलिकांत स्टार्चाचें प्रमाण खूब आसता. सांगो आशिल्ल्या सगळया वनस्पतीच्या बियांनी प्रथिनांचें प्रमाण खूब आसता. (देखीक- मूग, हुडीद, तूर, हरभरो, वाटाणो). शूकधान्यांच्या (देखीक- गंव, मको) गर्भांत तेल आनी प्रथिनां भरपूर आसलीं तरी बियांतल्या त्या भायल्या

भागांत (पुष्कांत) स्टार्च खूब आसता. एरंडाच्या बियांतलें तेल मात पुष्कांत आसता. मको आनी वाटाणो हांच्या तरन्या बियांत साकर आसता देखून त्यो गोड आसतात. गाजर, खारीक, हांच्या बियांतल्या पुष्कांत अर्दसेल्युलोजरुपांत अन्नसाठो आसता. लिची आनी विलायती चींच हांच्या अध्यावरणांत गोड साकर आशिल्लें अन्न आसता. जाल्यार दाळिंबाच्या अध्यावरणांत गोड रस आसता. ह्या अध्यावरणांचो उपेग जनावरांकडच्यान त्या बियांचो प्रसार जावपाखातीर करतात. बियांतल्या एंझायमांचो उपेग रुजवणेंत अन्नाचें रुपांतर जावन तें शोशण करपाक सोंपें करपांत जाता. त्या अन्नाचेर गर्भविकास आनी नव्या रोपांची वाड जाता.

**सुधारीत बीं-बियाणां :** आयच्या काळांत वनस्पती प्रजनक तज्ञ वेगवेगळ्या पिकांचे सुदारिल्ले प्रकार निर्माण करतात. ह्या प्रकारांचें शुध्द आनी प्रमाणित बीं तज्ञांच्या नदरेखाला व्हडा प्रमाणाचेर उत्पादीत करून तें शेतकारांक दितात. वेगवेगळ्या पिकांच्या प्रमाणित बियांखातीर तातूंतली रुजवणशक्त, शुध्दता, जलांश हांच्यो मर्यादा थारोवन दिल्ल्यो आसात. ह्या मर्यादांनी न बसपी बीं विकल्यार विकपी १९६६ वर्साच्या भारतीय बीं अधिनियमाखाल शिक्षेक फाव जाता.

भारतांत राश्ट्रीय बीं म्हामंडळाची १९३३ त स्थापना जाली. बीं प्रक्रियेखातीर ३६ केंद्रां आनी विक्रिखातीर ३,५०० केंद्रां स्थापन केलीं. तशेंच संवसारीक बँकेच्या पालवान भारतांत ५० कोटी रुपयांचो राश्ट्रीय बियाणां प्रकल्प सुरू जाल्लो आसा.

१९६१ त दिल्लीच्या भारतीय कृषी संशोधन संस्थेंत पयली बीं परिक्षण प्रयोगशाळा स्थापन केली आनी बीजशास्त्र आनी बीजतंत्रविज्ञान हांचें मुळावण घालें. बीं निर्मिती, परिक्षण, प्रतीचेर नियंत्रण, बीं रोग आनी किटकविज्ञान, बीं-क्रियाविज्ञान आनी बीं प्रक्रिया हांचेर संशोधन करप हे संस्थेचे मुखेल हेतू आशिल्ले आनी तेखातीर एक विभागूय स्थापिल्लो. तशेंच देशांत साबारकडेन बीं परीक्षण प्रयोग शाळा स्थापन केल्यात.

वनस्पतींच्या बियांक प्रसाराचे नदरेन चड म्हत्व आसा. मनीस आपणाक गरज आशिल्ल्या वनस्पतींचो प्रसार बियांच्या आदारान करीत आयला. बीयो आनी तांचेपसून मेळपी जायत्या पदार्थांच्या उद्देगीक उत्पादनाखातीर मनीस यत्न करीत आसा. कारण ताका तेपसून अर्थोत्पादनूय मेळटा. तूर, वाटाणे, हरभरो, ज्वारी, गंव, तांदूळ, नाचणो सारकिल्ल्या धान्यांचें उत्पादन चडकरून तांच्या बीयांतल्या अन्नाखातीर आनी हेर भागांचें जनावरांच्या चरवाखातीर करतात. नाल्ल, सोयाबीन, भिकणां, सांसवां, तीळ, ऑलिव्ह, कापूस, निंब, सणमियां, उंडी, तुंग, रानटी अक्रोड, जायफळ, करंज, वेलची, एरंड हांच्या बियांपसून जें तेल काडटात ताचो उपेग खावपाखातीर, वखदीं तेलाखातीर आनी शाबू तयार करपाखातीर करतात. तशेंच गंव, तांदूळ, मको हांच्या बियांपसून स्टार्च काडटात. कॉफी, कोको, कोलानट, ग्वाराना हांच्यो बियो आनी जायत्या तृणधान्यांच्यो बियो मादक आनी साद्या पेयांच्या उत्पादनांत वापरतात. खसखस, मेथी, वेलची, तीळ, सांसवां, जिरें हांच्यो बियो मसाल्याखातीर वापरतात. देखून वेपारी नदरेन त्यो म्हत्वाच्यो थारल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## 'बी' (नारायण मुरलीधर गुप्ते) :

(जल्म : १ जून १८७२, मलकापूर, जि. बुलढाणा - वऱ्हाड; मरण : ३० ऑगस्ट, १९४७, छिंदवाडा).

नामनेचो मराठी कवी. तांचें मूळ घराणें कुलाबा जिल्ह्यांतल्या 'वाशी' ह्या गांवचें. वाशी, पेण अशा पांच-सात गांवांचें कुलकर्णीपण ह्या घराण्याकडेन येतालें. ताचो बापूय मुरलीधरपंत १८५१ वर्साच्या अदमासाक वऱ्हाडांत आयलो. तो पयलीं सरकारी नोकरेत आशिल्लो पूण उपरांत ताणें वकिली सुरू केली. 'बी' चे आवयचें नांव राजूबाई उर्फ लक्ष्मीबाई आशिल्लें. 'बी' क चार भाव आनी तीन भयणी आशिल्ल्यो. बी हो सगळ्यांत व्हडलो भुरगो. 'बी' चो बापूय वकिलीच्या निमतान यवतमाळ आनी वणी नगरांनी रावपाक आयिल्ल्यान 'बी' चें मुळावें आनी शालेय शिक्षण पयलीं यवतमाळ आनी उपरांत अमरावतीक जालें. पूण बापायक एकांग जावन अकस्मात मरण आयिल्ल्यान 'बी'क मॅट्रीक जायना आसतनाच सरकारी कारकुनाची नोकरी धरची पडली आनी घरची सगळी जापसालदारकी ताचेर पडली.

ल्हानपणांतूच 'बी'चें लग्न मार्तंडराव प्रधान हाचे चलयेकडेन जालें पूण तिका रोखडेंच मरण आयिल्ल्यान, यवतमाळचे लक्ष्मीबाई सुळे हिचेवांगडा ताचें दुसरें लग्न जालें. ताका दत्तात्रेय नांवाचो पूत आनी तीन धुवो अशीं भुरगीं आसात.

पिरायेच्या अठराव्या-एकुणिसाव्या वर्सासावन ताणें काव्य-लिखाणाक सुरवात केली. १८९१ वर्सा बरयल्ली 'प्रणयपत्रिका' ही ताची पयली कविता. कांय काळ ताणें दिसाळ्यांनीच काव्य-लिखाण केलें. १९११ वर्सा ताणें 'बी' ह्या टोपण नांवान बरयल्ली 'वेडगाणे' ही कविता खूब गाजली. ताच्या कांय कवितांतल्यान गुढगुंजनाची प्रवृत्ती दिसता. भारतियांचे आनंदवादी विचारप्रणालीचो ताचेर खूब प्रभाव आसा. तेन्नासावन रसिक 'बी' कडे आकर्शीत जाले. ताच्यो चडशो कविता 'मनोरंजन' ह्या म्हयनाळ्यांतल्यानूच उजवाडा आयल्यो.

'फुलांची ओंजळ' ह्या ताच्या आठ्ठीस कवितांच्या पयल्या झेल्याक (१९३४) प्र. के. अत्रे हाणें प्रस्तावना बरयल्या. ताची दुसरी आवृत्ती १९४१ वर्सा उजवाडा आयली. हे आवृत्तींत उपरांतच्या इकरा कवितांचो, 'पिकले पान' ह्या नांवाखाल आस्पाव केलो. तेउपरांत आनीक स आवृत्त्यो आयल्यो.

'बी' चे भाशेची सरणी आनी विचारांचे धाटणे वयल्यान ताचे कवितेचेर संस्कृत काव्याच्या अध्ययनाचो, ज्ञानेश्वर, मुक्तेश्वर, तुकाराम ह्या संतकवींचो तशेंच पोवाडे, पदां आनी बखरी हांच्या वाङमयाच्या अभ्यासाचो परिणाम जाल्लो दिश्टी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**बीजगणित :** गणिताचो सगळयांत चड उपेगी आनी चडशा जाणांक खबर आशिल्लो फांटो. बीजगणिताक अक्षरांचें गणित अशेंय म्हणू येता. आंकड्या वांगडा अक्षरां आनी कुरवांचो वापर करून केल्लो अंकगणिताचो विस्तार म्हणजेच बीजगणित. हातूंत सगळे नेम आनी रिती अंकगणिताच्योच वापरतात. ऑक्सफर्ड शब्दकोशांत दिल्ले प्रमाण बीजगणित म्हळयार आंकड्यांच्या गूणधर्मांचो अक्षरां वापरून केल्लो अभ्यास. बीजगणितांत गुणाकाराची कुरू (x) वापरचेबदला अक्षरां एकामेकांक तेकून बरयतात. देखीक अxब चे सुवातेर अ ब प्रतिकां वापरून समीकरणां मांडप आनी अंक गणितांच्या रितींचो वापर करून हीं समीकरणां सोडोवप हो बीजगणितांतलो मुळावो वावर प्रतिकां वापरिल्ल्यान प्रस्नांचो वाठार आपसुकूच व्हड जाता. प्रतिकांचो वापर आनी प्रस्नांचो वाठार वाडोवप हे बीजगणिताचे दोन गूणधर्म. प्रतिकांवरवीं प्रस्न मांडप आनी समजप सोपें जाता. बीजगणित, गणिताच्या चडशा सगळया फांट्यांक प्रतिकांची भास आनी वाठार वाडोवपाची तांक दिता. प्रतिकांचो वापर गणिती विचारांक एक नितळ, संक्षेप आनी अचूक भास दिता. मनशाची अमूर्त स्वरुपाविशींची ओड, तर्कशास्त्रीय विचार आनी पद्दतशीर विश्लेशणां मेळून बीजगणिताचो जल्म जाला.

बीजगणिताक इंग्लिशींत 'आल्जॅब्रा' म्हण्टात. हें उतर एका बीजगणिताच्या पुस्तकाच्या नांवावयल्यान आयलां. हें पुस्तक पर्शियन गणिततज्ञ महमद इब्न-मुसा अलख्वा हिजमी हाणें इ.स. णवव्या शेंकड्यांत बरयल्लें. पुस्तकांचें नांव आसलें 'अलजब्र वाल मुकाबला' म्हळयार 'परत दवरप' आनी 'उणें करप'. ह्या पुस्तकाप्रमाण बीजगणीत ही एक कला, जेवरवीं कठिणांतले कठीण प्रस्न समीकरणावरवीं बरोवन, सोंपे केले उपरांत सोडोवप. जोरान कार्डन (१५०१-१५७६) ह्या इटालियन गणिततज्ञान आपल्या बीजगणिताच्या पुस्तकाक 'अर्स मग्रा' अशें नाव दिल्लें. ह्या उतरांचो अर्थ 'व्हड कला' असो जाता.

बीजगणिताची उदरगत पुर्विल्ल्या हिंदूंनी केल्ली. युरोपियनांनी केल्लें काम चवथ्या शेंकड्यांत सांपडटा. १० आंकड्यांची पद्दत हिंदू गणिततज्ञांनी सगळयांत पयलीं वापरांत हाडली. विकसीत केल्लें हिंदू गणिततज्ञांचें गिन्यान अरबी लोकांनी फुडें आनिकूय विकसीत केलें. उज्जैनीचो कंक नांवाचो विद्वान अब्बासाब खलिफा अल-मनसुरच्या आपोवण्यावरवीं बगदाद राजाच्या दरबारांत गेल्लो. ताणें अरबी लोकांक हिंदूंचें बीजगणित आनी अवकाशशास्त्र (astronomy) शिकयलें. अरबी लोकांनी हिंदू गणिताचें गिन्यान बाराव्या शेंकड्यांत स्पेनाक व्हेलें. थंयसून तें पुराय युरोपभर पावलें. मुळावें अशें बीजगणित ग्रीस देशांत इ.स. चार हजार वर्सांपयलीं वापरताले. बॅबिलोनियन लोकांनीय बीजगणिताचो वापर केला. पूण त्या वेळार अक्षरांचे सुवातेर सगळेंच उतर वापरपाची पद्दत आशिल्ली. इजिप्ताचो गणिततज्ञ अहमद पापीरुड हाणें इ.स.प. सोळाव्या शेंकड्यांत बीजगणितांत उतरांचो वापर केला. उतरा बदला त्या उतराचें पयलें अक्षर वापरपाची पद्दत तिसऱ्या शेंकड्यांत ग्रीसीक गणिततज्ञ डायफानटस हाणें सुरू केली. फ्रांसाचो फ्रांस्वा व्हेटो (१५४०-१६०३) हाणें Variables खातीर Vowels आनी fixed constants खातीर consonants चो वापर केल्लो.

सद्या आमी वापरतात ती पद्दत फ्रेंच गणिततज्ञ रॅने देकार्त (१५९६-१६५०) हाणें सुरू केल्ली. हे पद्दती प्रमाण आमी Variables खातीर इंग्लीश वर्णमाळेंतलीं निमाणचीं अक्षरां, देखीक- u, v, w, x, y, z वापरतात आनी constants खातीर सुरवातेचीं अक्षरां, देखीक- a, b, c, d, e वापरतात. इटालियन गणिततज्ञ लिओनार्द द पिसा (११७५-१२३०) हाणें १२०२ त बीजगणिताचो वापर केलो. नामनेचो पर्शियन कवी उमर खय्याम हाणें केल्लो बीजगणिताचो वापर ताच्या रुबायतींनी पळोवंक मेळटा. घनीय समीकरणां (general third degree equations) सोडोवप शक्य ना, अशें उमर खय्यामान सगळयांत पयलीं म्हणिल्लें. असले तरेचीं सादीं समीकरणां भूमितीचो वापर करून सोडोवं येतात, म्हणून ओमर खय्यामा पयलीं ताबीत इब्न कोटा (८३६-९०१) आनी आल्हाजाम (९६५-१०३९) ह्या अरबी गणिततज्ञांनी सिध्द केल्लें. समीकरणां सोडोवपाचे दिकेन कार्ल फ्रॅड्रिक गॉस (१७७७-१८५५) हाणें खोलायेन अभ्यास केल्लो. ताणें १७९७ त आयज आमी Fundamental Theorem of Algebra म्हण्टात तो सिध्दांत सिध्द करून दाखयल्लो. गॉसाचें उरिल्लें काम इवारिस्ट गॅलॉयस (१८१२-१८३२), आगुस्तीन लुईस कोशी (१७८९-१८५७) आनी नील हॅन्री अँबेल (१८०२-१८२९) हांणी केलें. पूण बीजगणिताच्या मळार सगळयांत क्रांतीकारक अशो पद्दती आर्थर कॅली (१८२१-१८९५) ह्या ब्रिटीश गणिततज्ञान हाडल्यो. आर्विल्ल्या बीजगणिताची बुन्याद केलीन घाली अशें म्हणूं येता.

पुर्विल्ल्या काळांत भारतांत कितलेशेच नामनेचे गणिततज्ञ जावन गेले. उज्जैनीचो ब्रह्मगुप्त (५९८इ.स.) हाणें गणिताचेर कायं पुस्तकां बरयलीं. ताच्या 'ब्रह्म-स्पुटा-सिध्दांत' पुस्तकांतलो अठरावो अध्याय 'कृटकाध्याय' हो बीजगणिताचेर आदारून आशिल्लो. हेंच पुस्तक कंक हाणें अरबी भाशेंत रुपांतरीत केल्लें. अवकाशशास्त्रांत बीजगणिताचो वापर करपी ब्रह्मगुप्त हो पयलो गणिततज्ञ. पाटण्याचो आर्यभट्ट पयलो (४७६इ.स.) हाणें 'आर्यभाटिय' नांवाच्या ग्रंथावरवीं गणिताच्या गिन्यानाची वाड केली. गणिताची सगळयांत चड उदरगत ह्या काळांत जाली. आर्यभट्ट

दुसरो (९५० इ.स.) हाणें 'महाआर्य सिध्दांत' हो ग्रंथ बरयल्लो. विजापूरचो भास्कराचार्य (इ.स.१११५) हो सगळ्यांत व्हड असो पुर्विल्लो भारतीय गणिततज्ञ. ताणें 'सिध्दांत शिरोमणी' नांवाचो ग्रंथ बरयल्लो. पूण सद्या सिद्धिांत शिरोमणींतले फकत चार अध्याय पळोवंक मेळटात.ते चार अध्याय म्हळयार लिलावती, बीजगणित, गोलध्याय आनी ग्रहगणित. भास्कराचार्यान प्रस्न कवनांनी बरोवपाक सुरू केले. णवव्या शेंकड्यांत महावीर हाणें 'गणितसार संग्रह' नांवाचो ग्रंथ बरयल्लो, जातूंत बीजगणिताचेर बरोवप आसा. कुंभकोण-मद्रासचो श्रीनिवास रामानुजम (१८८७-१९२०) हो हालींच्या काळांतलो नामनेचो भारतीय गणिततज्ञ. ताचे शेणिल्ले चोपडेंत बीजगणिताचेर कितलेशेच प्रस्न आसात. जांचेर अजूनय भायल्या देशांनी संशोधन चलता. गोवर्धनपीठ पुरीचो शंकराचार्य जगद्गुरू स्वामी श्रीभारतीय कृष्णा तीर्थ महाराज (१८८४-१९६०) हाणें बरयल्लें 'वैदिक गणित' हातूंत अजापाचें काम पळोवंक मेळटा. चडशा प्रस्नांच्यो जापो स्वामींनी दिल्लीं १६ सुत्रां वापरून एके ओळींत बरोवंक मेळटात. पूण स्वामींनी बरयल्ल्या चार ग्रंथांतलो फकत एकूच ग्रंथ सद्या उरला, जातूंत चड अंकगणिताचो वांटो आसा.

बीजगणिताचे कितलेशेच फांटे आसात. हातूंतले कांय फांटे खुबूच उदरगतीक पावल्यात. आनी ते आतां गणिताचे वेगळे स्वतंत्र फांटे जाल्यात. कांय मुखेल फांटे फुडलेप्रमाण आसात.

**१) अमूर्त बीजगणित (Abstract Algebra) :** हातूंत चडशें आर्विल्लें बीजगणित आस्पावता. बीजगणिताचो कितल्याशाच वाठारांनी उपेग केल्ल्याकारणान नवे नवे फांटे तयार जाले. एकुणिसाव्या आनी विसाव्या शेंकड्यांतली बीजगणिताची उदरगत म्हळयार अमूर्त बीजकरण. अमूर्त बीजगणितांत आस्पावपी फांटे म्हळयार लिनियर आल्जॅब्रा, मॅट्रिक्स आल्जॅब्रा, ग्रुप थिअरी, फिल्ड्स थिअरी, गॅलोअस थिअरी आदी. लिनियर आल्जॅब्रा सावन लिनियर प्रोग्रामिंगचो फांटो विकसीत जालो, जाचो संगणकशास्त्रांत उपेग जाता. ह्याच फांट्यांत नरेन्द्र करमरकर ह्या भारतांत जल्मल्ल्या गणिततज्ञान एक सोद लावन संवसारांत नामना जोडिल्ली आसा. अमूर्त बीजगणिताच्या मळार मोलादीक वावर केल्ले कांय नामनेचे गणिततज्ञ अशेः हॅमिल्टन, सिल्वॅस्टर, क्रोनेकर, आर्थर कॅली, डेडीकांड, हिलबर्ट, गॅलोअस, आबेल आनी इमी नोयथर.

**२) बुलाचें बीजगणित (Boolean Algebra) :** संच सिध्दांतावांगडा (Set thoary) उदरगतीक पाविल्लो बीजगणिताचो फांटो. हाचो सोद जॉर्ज बूल ह्या ब्रिटीश गणिततज्ञान १८५४ त लायलो. 'विचारांचे नेम' ह्या पुस्तकावरवीं बुल हाणें गणित आनी तर्कशास्त्रामदीं आशिल्ले संबंद उक्ते केले. बुलाच्या बीजगणिताचो विद्युत् अभियांत्रिकींत Electrical Engineering आनी Electronics च्या मळार वापर जाता. भारतांत मदुराईंत जल्मल्लो ब्रिटीश गणिततज्ञ ऑगस्तस डि मॉर्गन (१८०६-१८७१) हाणें आपल्या तर्कशास्त्रावयल्या पुस्तकांत संचाच्या सिध्दांतावयले नवे नेम वापरल्यात जे बुलाच्या बीजगणितांत उपेगी पडटात.

**३) बीजगणितीय भूमिती (Algebraic Geometry) :** अमूर्त बीजगणित आनी भूमिती हांच्या पालवान विकसीत जाल्लो फांटो. सद्याच्या काळांत ह्या फांट्यांत खुबूच काम चललां.

**४) बीजगणितीय टॉपॉलॉजी (Algebraic Topology) :** टॉपॉलॉजी हो भूमितीचो फांटो. बीजगणिताचे नेम आनी रिती वापरून टॉपॉलॉजींतले प्रस्न सोडयत घडयल्लो फांटो म्हळयार बीजगणीतीय टॉपॉलॉजी. ह्या फांट्याची उदरगत मुखेलपणान हॅन्री पोतकारे (१८४५-१९१२) हाणें केली.

गणिताचे आंतरराष्ट्रीय कॉंग्रेसीन दर चार वर्सांनी भरपी आपले बसकेंत १९३६ सावन प्रा. जे. डी. फिल्ड्स हाच्या नांवान गणिताचे संवसारीक पुरस्कार भेटोवपाक सुरवात केली. हांकां फिल्ड्स पदकां (Fields Medals) अशें म्हण्टात. आतांमेरेन बीजगणितांत फिल्ड्स पदकां मेळयतल्यांचीं नांवां अशीं : ए ग्रोथेनदीक (१९६६), एच. हिरोनाका (१९७०), जे. जी. थॉमसन (१९७०), डी. मुमफोर्ड (१९७४), पी. डेलिगने (१९७८), जी. ए. मारगुलिस (१९७८). जी. फाल्टींग आनी एस. के डॉनल्डसन (१९८६).

- प्रा. वाय. एस. वालावलीकार

## बीट :

(मराठी - बीट; हिंदी-चुकंदर; इंग्लीश-बीट रूट, शुगर बीट; लॅटीन-बीटा व्हल्गारिस; कूळ - चिनोपोडिएसी).

एक वखदी वनस्पत. ही वनस्पत दोनूच वर्सां जगता. तिच्या मुळांकूय बीट हीच संज्ञा आसा. हें मूळ तांबड्या, पिंगशा हळदुव्या वा धव्या रंगाचें आसून मासाळ आनी रोसाळ अशें आसता. तशेंच ताचो आकार भोंवऱ्याभाशेन आसता. मुळाचे वयलेवटेन व्हड अशीं पानां आसतात आनी पानांचे तेंगशेर खांदयांचो घोंस आसता. ताचेर द्विलिंगी फुलां येतात. हीं दोन ते तीन फुलां एकठांय वाडिल्ल्यान घोंसफळ तयार जाता. तातुंतलें दर एक फळ म्हळयार बी, कवच आशिल्लें आसता. फळ पिकतकच ही बी आपोआप भायर येता. दर एक घोंसफळांत २ ते ५ वाटकुळयो बियो आसतात. ही वनस्पत सादारणपणान थंड हवामानांत जाता. मूळ युरोपी दर्यादेगेवयले 'बीटा मॅरिटिमा' हे रानवटी अवस्थेंतले जातीसावन 'बीटा व्हल्गॉरिस' आनी तिजे लागवडींतले विंगड विंगड प्रकार निर्माण जाले अशें मानतात.

बिटाच्या प्रकारांतले १) भाजयेचो बीट २) साकरेचो बीट ३) पालेभाजयेचो बीट ह्या तीनूय प्रकारांची भारतांत लागवड करातात. तशेंच, जनावरांचे खावडीचो बीट (मँजेल वुर्झेल) आनी पोरसांत सोबीतकायेखातीर लायतात तो बीट अशेय बिटांचे प्रकार आसात.

भाजयेच्या बिटाक इंग्लिशींत गार्डन बीट अशें म्हण्टात. हाचीं मुळां भाजयेखातीर वापरतात. अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, युरोप आनी कॅनडांत पोरसांनी आनी वेपारी प्रमाणाचेर लागवड करतात. दक्षिण भारतांत आनी महाराष्ट्रांत सगळ्या हंगामांनी बिटाची लागवड करतात. पूण उत्तर भारतांत थंडेच्या दिसांनी बिटाची लागवड करतात. भाजयेच्या बिटाचे विंगड विंगड प्रकार आसात. क्रिम्सन ग्लोब आनी डॅट्रॉइट डार्क रॅड ह्या प्रकारांची भारतांत लागवड करतात. हे बीट तांतयाभाशेन वा वाटकुळ्या आकाराचे आसतात. मूळ कापतकच चडसो वांटो तांबडो आनी रोसाळ आसल्यार तो बीट बरे प्रतीचो मानतात. ह्या पिकाक कसलेय तरेची जमीन मानवता, पूण उदक बरे तरेन व्हांवन वतले ओलसार भुसभुशीत जमनींत हें पीक बरें येता. क्षाराचें प्रमाण चड पूण उणी अम्लीय जमीन आसल्यार हें पीक बरें येता.

ऑक्टोबार म्हयन्याच्या मध्याक हाची पेरणी करतात. एक हॅक्टर जमनीखातीर ५ ते ६ किलो बीं लागता. बीं म्हळयार घोंसफळ आनी घोंसफळांत २ ते ५ बियो आशिल्ल्यान एकेच सुवातेर एकापरस चड रोंपे किल्लून येतात. ते खातीर किल्लून आयिल्ले रोंपे परतून १० ते २० सेंमी. अंतर दवरून लायतात. एका हेक्टराक ६० ते ७० किलो नायट्रोजन, १०० ते १२० किलो फॉस्फरस आनी ६० ते ७० किलो पोटॅश ह्या प्रमाणांत सारें घालचें पडटा. बिटांत बोरॉन उण्या प्रमाणांत आसल्यार बिटाचो भितरलो भाग काळो जाता वा कुसता. तेखातीर बिटाच्या पिकाक हॅक्टराक १५ किलांमेरेन बोरॅक्स दितात. बीं लायकतच ८ ते १० सप्तकांनी बीट खणून काडटात. एका हेक्टरांतल्यान २०,००० ते २५,००० किलो भाजयेचे बीट मेळटात. भारतांत बिटाचें बीं सुमार १,३०० मिटरांपरस चड उंचायेच्या प्रदेशांत तयार जाता. हेक्टेरी सुमार २,००० किलो बीं मेळूं येता. भाजयेच्या बिटांत ८५% खावपाचो भाग आसून तातूंत ८७.७% जलांश, १.७% प्रथीन आनी ८.८% कार्बोहायड्रेट आसतात.



मूळ आणि तुऱ्यासयत बीट

साकरेच्या बिटाक इंग्लिशींत 'शुगर बीट' अशें म्हण्टात. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत ह्या बिटाक चड म्हत्व आयलें. फ्रांसांत झुजाक लागून ऊंसाचे साकरेचो उणाव जावंक लागलो. ते खातीर नेपोलियनान साकर तयार करपाखातीर बिटाचे लागवडीक चड नेट दिलो. ल्वी विल्मोरिन ह्या फ्रेंच वनस्पतीशास्त्रज्ञान वेंचणूक पद्दतीन बिटांतलें साकरेचें प्रमाण ७.५% वयल्यान १६ ते १७% मेरेन वाडयलें. ताका लागून बिटा पसून साकर तयार करप फायद्याचें जालें. सद्या संवसारांतलें वट्ट साकरेच्या उत्पादनांतलें सुमार ४४% उत्पादन बिटासावन मेळटा.

हो साकरेचो बीट वयले वटेन रूंद आनी सकयल बारीक आसता. माथ्याच्या सकयल्या भागाक मान म्हण्टात. तितलो भाग गुळगुळीत आनी चड रूंद आसता. माने सकयलो बिटाचो भाग दोनूय वटांनी चेपटो आसून ताचेर दोनूय वटांनी उबी खांच आसता. ह्या बिटाचो गाभो धवो आनी साल लेगीत धवी आसता. हातूंत सुमार १५% साकर आसता. केन्नाकेन्नाय ती २०% मेरेनूय आसता.



साकरेचो बीट

संवसारांत साकरेच्या बिटाचो वाठार १९७८ वर्सा ९०.२६ लाख हेक्टर आनी २८.९१ कोटी टन उत्पादन आशिल्लें. सगळयांत चड वाठार ३७.६३ लाख हॅक्टर आनी सगळयांत चड उत्पादन ९.३८ कोटी टन रशियेंत आशिल्लें. उत्पादनाचे नदरेन रशिये फाटोफाट अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, फ्रांस, अस्तंत जर्मनी, पोलंड आनी इटली हे देश म्हत्वाचे आसात. अमेरिकेंतलें दरेक हॅक्टरा फाटलें उत्पादन रशियेपरस ८१% चड आशिल्लें. संवसारांतल्या बिटाच्या वट्ट उत्पन्नांत चड करून अर्दाअदीक उत्पन्न युरोप खंडांत जाता. युरोपांतल्या सगळ्या देशांनी साकरेच्या बिटाची लागवड जाता. आफ्रिका खंडांत सगळयांत चड उत्पादन मोरोक्कोंत २३.९५ लाख टन इतलें जाता. आशिया खंडांत चीन, तुर्कस्तान आनी इराण हे बिटाचे लागवडीचे म्हत्वाचे देश.

बीट तयार जावपाच्या हंगामांत २०° ते २२° सॅ. तापमान आसल्यार तातूंत साकरेचें प्रमाण सगळयांत चड आसता. ३०° सॅ. परस चड तापमान आसल्यार साकरेचें प्रमाण उणावता.

सिरिया, इराक, इराण, आल्जेरिया आनी इझ्रायल ह्या देशांनी ह्या पिकाक वेपारी म्हत्व आसा. पाकिस्तानांतूय बिटाची लागवड करतात.पूण भारतांत उपोश्ण वाठारांत हें पीक प्रायोगिक अवस्थेंत आसा. काश्मीर देगणांनी बिटाचें पीक पावसाळी उदकाचेर गिमाच्या तेंपार घेवपाक मेळटलें अशी शक्यताय दिसता. १९७७-७८ वर्सा भारतांत पयले खेपे राजस्थानांतल्या गंगानगरच्या साकरेच्या कारखान्यांत, बिटासावन २९८ टन साकरेचें उत्पादन केलें. महाराष्ट्रांत फलटणाक

बिटासावन साकर तयार करपाखातीर मुळाव्या स्वरुपाचे यत्न केल्यात. पुण्याचे महाराष्ट्र विज्ञान वर्धिनी हे संस्थेन, महाराष्ट्रांतल्या हवामानाक योग्य अशे साकरेचे प्रकार तयार करपाखातीर हो प्रकल्प हातांत घेतला.

बिटाच्या पिकाक खूबशे रोग लागतात. तातूंतले पानांवयले थिपके, मूळकूज, मर, कर्ली टॉप, मुळांवयल्यो गांठी हे म्हत्वाचे आसात. पानांवयले थिपके गाड पुडीकोराचे वा काळसर आसून कांय तेंपा उपरांत रोगट भाग गळून पडटा आनी पानांक बुराक जातात. पानां खावपी किडीक लागुनूय ह्या पिकाचें खूब लुकसाण जाता. तेखातीर ह्या पीकाक पयलें उदक दिवंचे पयलीं उदकांत विरगळपी गॅमा बीएच्सी दितात.

पोंदचीं पानां पुडीकोराचीं आनी हेर पानां हळदुवीं जातकच बीट काडपाक तयार जाले अशे मानतात. साकरेच्या बिटाची काडणी पेरणेसावन २०-३० सप्तकांनी, चड करून एप्रिल-मे म्हयन्यांत करतात. नांगरान बीट काडटात आनी नितळ करतात. नितळ करपाक उदकाचो उपेग करिनात कारण ताका लागून बीट कुसतात. बीट काडटकच ताचेवयलीं पानां रोकडींच काडटात. तशें केलेना जाल्यार साकरेच्या उताऱ्यांत उणाव जाता. काडटकच बीट साकर कारखान्यांत ४८ वरांभितर धाडपाक जाय. तेचप्रमाण तांची रास घालून कांय वरां लेगीत दवरप समा न्हय. हे खातीर कारखान्या लागसारूच बिटाची लागवड करतात. हेक्टराक युरोपांत ३५,००० किलो आनी अमेरिकेंत ४०,००० किलो बीट आनी १०,००० ते १२,००० किलो पालो मेळटा.

साकर तयार करपाच्या कारखान्यांत जेप्रमाण उशीचो रोस काडटात तेप्रमाण बिटाचो रोस काडपाक मेळना. शेतांतल्यान आयिल्लो बीट उदकान धुयनाफुडें बारीक कापां करतात. तातूंतलो साकरेचो अंश काडून घेवपाखातीर एके खाशेले यंत्रसामग्रीचो वापर करतात. साकरेच्या द्रावणाचेर पयलीं चुन्याची क्रिया करून उपरांत कार्बन डाय-ऑक्सायडान नितळ करतात. अशुध्द पदार्थ गाळाभशेन तळाक बसता. निवळायल्ल्या रोसाचें सल्फर डायऑक्सायडाच्या आदारान विरंजन (decolouration) करतात. उपरांत साकर तयार करपाची कृती, उशीच्या नितळ केल्ल्या रोसापासून साकर तयार करपाचे कृतीभाशेनूच आसता. साकरेच्या बिटाचो रोस काडले उपरांत उरिल्लो चोथो जनावरांक खावपाक घालतात.

बिटाचे काकयेपसून लॅक्टिक आम्ल, ब जीवनसत्व आनी हेर तरांचीं वखदां तयार करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बीन :** एक तंतूवाद्य. बीन हें वीणा ह्या शब्दाचें अपभ्रंश रूप. हाच्या दोनूय तोकांवटेन २५ ते ३० इंच घेराचे दुदी बसयल्ले आसतात. तांकां खांच घालून तातूंत वाटकुळी आनी पोकळ दांडी बसयल्ली आसता. हे दांडयेची लांबाय ४ फूट आनी रुंदाय सुमार ४ इंच आसता. ह्या दोनूय तोकांक चार बोटां रुंदायेच्यो पितूळच्यो वा रुप्याच्यो मायण्यो बसयतात. एका तोंकासावन सुमार ६-७ इंच अंतराचेर २ हस्तीदंती अटी बसयतात. दुसऱ्या तोकांक हस्तीदंती घोडी बसयतात. दांडयेच्या दोनूय वटांनी सरयो आवुळपाक खुटयो बसयतात. हातूंत एक चिकारीची सरी आसता. खर्ज आनी पंचम ह्या स्वरांच्यो सरयो पितूळच्यो, अर्थात कच्च्यो आसतात. बाकीच्यो सगळयो सरयो तिख्याच्यो अर्थात पक्क्यो आसतात. दांडयेर वीस लांकडी पड्डे मेणांत बसयल्ले आसतात. दर पड्ड्याक खांच करून तातूंत तिख्याच्या पड्ड्याइतलो लांबायेचो पातळ कुडको बसयतात. ह्या कुडक्याचेर स्वराच्यो सरयो दामतात. ताच्या वीस पड्ड्यांक लागून स्वरांचीं अडेज सप्तकां पुराय जातात. हें वाद्य सतारीवरीच नाखटांनी वाजयतात.

बीनाक सगळया तंतूवाद्यांचो राजा समजतात. हाचे स्वर गोड आनी झंकारान भरिल्ले आसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बीर, माधव रामकृष्ण पै :** (जल्म : १५ ऑगस्ट १९२३, बेळगांव).

सुटकेझुजारी. बापायचें नांव रामकृष्ण पुंडलीक पै बीर. बेळगांवां 'भारत छोडो' चळवळींत आनी १९४६ चे चळवळींतूय ताणें वांटो घेतिल्लो.

नॅशनल काँग्रेस गोवा संघटनेचे लोंढ्यार जाल्ले बुन्यादी बसकेंत वावुरपी समितीचो वांगडी म्हणून ताका वेंचून काडलो. चोडणां आनी करमळी गांवांनी जाहीर भाशण केल्ले खातीर २५ नोव्हेंबर १९४६ दिसा ताका म्हापशां धरलो, धा दीस बंदखणींत दवरले उपरांत ताका सातारडा शिमेचेर व्हरून सोडलो. परतो तो गोंयांत आयलो आनी दिवचल तालुक्यांतल्या लोकांक सत्याग्रह आनी नॅशनल काँग्रस गोवा संघटनेच्या उद्देशा संबंदान समजावंक लागलो, ताका लागून परतो ताका आठ दिसांखातीर बंदखणींत घालो.

उपरांत भूंयगत रावन गोंयच्या सत्याग्रही आंदोलनाक ताणें खूब तेंको दिलो. तो १९५१ ते १९५३ मेरेन नॅशनल काँग्रेस गोवाचो सरचिटणीस आसलो.

सत्याग्रही सल्लागार समितीचो तो वांगडी आसलो. भूंयगत आझाद गोमंतक रेडिओकडेन ताचो संबंद आसलो. १९७७ त ताका पणजी मतदारसंघान विधानसभेचो वांगडी म्हणून वेंचून काडलो. जनता पक्षाचो तो गोंयचो फुडारी आसलो. ताणें गोंयांत सहकार चळवळ आनी लघुउद्देगाचे उदरगती खातीर वावर केला. ताचो भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन भोवमान केला. गोंय सरकारानूय ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**बीर, मित्रा माधव :** (जल्म : ३० डिसेंबर १९३२, काकोडें-केपें; मरण : १ जून १९७८).

सुटकेझुजारी आनी नामनेची समाजसेविका. माधव रामकृष्ण बीर हाची घरकान्न. तिचें शिकप एम.ए., बीएड. मेरेन जालें.

१९५४ त तिणें म्हाविद्यालयीन शिकप सोडून गोंय स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेतलो. शिवोली बारदेश तालुक्यांतल्या लोकांमदीं राजकीय जागृताय हाडपाक ती वावुरली. थंयच तिचो डॉ. पुंडलीक दत्तात्रय गायतोंडे आनी हेर सुटकेझुजाऱ्यांकडेन संबंद आयलो, जे त्या वेळार नॅशनल काँग्रेस गोवाच्या फुडारपणाखाला सत्याग्रही आंदोलन आंखताले आनी तातूंत वांटो घेवपाक बायलांक आनी चलयांक संघटीत करताले.

म्हापशां नॅशनल काँग्रेसीचे बसकेक अध्यक्ष म्हणून येवपी सुधाताई जोशीक येवकार दिवपाक आपवावुरपी बायलांक तयार करतना, २८ मार्च १९५५ दिसा मित्रा बीराक धरली आनी तिका पांच वर्सांचे बंदखणींची ख्यास्त फर्मायली.

बंदखणींतल्यान भायर येतकच तिणें गोंयभर भोंवडी केली आनी गांवकारांच्या आदारान गोंयच्या चडशा गांवांनी मराठी शाळा सुरू केल्यो. शिक्षणाच्या माध्यमावरवीं गोंयची स्वातंत्र्य चळवळ फुडें व्हरपाखातीर ती वावुरली. १९६२ त ती वेरें-बेतीं पंचायतीची वांगडी म्हणून वेंचून आयली. ती समाज कल्याण मंडळाची (Social welfare Board) वांगडी आनी अखिल भारतीय बायलांचे परिशदेच्या गोंय फांट्याची अध्यक्ष आसली.

गोंयचे सुटकेउपरांत समाजीक वावरावांगडाच तिणें शिक्षणदानाचोय वावर तितल्याच नेटान केलो. तिका अपघाती मरण आयलें. तिचो घरकार श्री. माधव बीर, हाच्या फुडारपणाखाल तिच्या नांवान निर्माण जाल्लें 'मित्रा बीर प्रतिश्ठान', गोंयच्या समाजीक मळार उल्लेखनीय वावर केल्ले बायलेक दर वर्सा एक जुनाक पुरस्कार दिता.

- कों. वि. सं. मं.

**बीरबल :** (जल्म : १५२८, त्रिविक्रमपूर; मरण : फेब्रुवारी १५८६).

अकबराच्या दरबारांतल्या नवरत्नांमदलो (बुदवंतांमदलो) एक आनी अकबराचो विश्वासू इश्ट. ताचे खरें नांव महेशदास. ताच्या बापायचें नांव गंगादास. बीरबल ही ताची पदवी. महेशदासाची हुशारी आनी धिटायेन प्रसन्न जावन अकबरान ताका बीरबल (बीरवर) ही पदवी दिली. 'ताचेंच रुपांतर फुडें बीरबल अशें जालें.

ल्हान पिरायेचेरूच ताणें हिंदी, संस्कृत आनी फार्सी भासांचो अभ्यास करून तातूंत वर्चस्व मेळयल्लें. बीरबलाच्या शौर्य-साहस, हजरजबाबी ह्या गुणांचेर खोशी जावन अकबरान ताका पंचहजारी मनसबदारी आनी सेनापतिपद दिल्लें. तशेंच ताचे न्यायदक्षतेची पारख करून कांय काळ ताका न्यायाधीश म्हणून नेमलो. अकबराच्या दीन-ए-इलाहींत बीरबल हो एकलोच हिंदू वांगडी आशिल्लो. आपल्या गुणांक लागून तो ल्हव ल्हव मंत्रीपदामेरेन पावलो.



अकबराच्या दरबारांत मानाचे सुवातेर आशिल्ल्यान तो हिंदूंच्यो अडचणी पयस करतालो. ताकाच लागून अकबर सहिश्णू वृत्तीन वागपाक लागलो असो कांय मुसलमान नागरिकांचो समज जालो आनी ते बीरबलाचो मत्सर करपाक लागले.

युसुफझई नांवाच्या दुस्मानाआड झुजपाक गेल्लेकडेन ताका मरण आयलें. ताच्या मरणान अकबराक खूब दुख्ख जालें. ताणें फत्तेपूर-सिक्रीक आपलेवांगडा बीरबलाखातिरूय एक महाल बांदून घेतिल्लो.

बीरबल ब्रज भाशेचो एक म्हान कवी आशिल्लो. ताचें कवी नांव 'ब्रह्म' अशें आशिल्लें. ताचीं कांय गितां आयज लेगीत मेळटात. १५७३ वर्सा 'कविराय' हो किताब ताका दिल्लो. तो एक बरो प्रशासक आनी संगीततज्ञ आशिल्लो. बीरबलाचो 'बीरबलनामा' हो ग्रंथ नामनेचो. अकबर आनी बीरबल काणयो सगळ्या भाशांनी लोकप्रिय आसात

- कों. वि. सं. मं.

**बुंदी चित्रशैली :** एक भारतीय लघुचित्रण संप्रदाय. राजस्थानांतल्या बुंदी आनी कोटा ह्या संस्थानांत ही शैली सतराव्या शतमानासावन एकुणिसाव्या शतमानाचे निमाणेमेरेन विकसीत जाली. राजस्थानी चित्रशैलीच्या वाठाराप्रमाण हे वेगवेगळे फांटे तयार जाले. तातूंतल्या बुंदी आनी कोटा ह्या प्रदेशांतलो हो फांटो. बुंदी चित्रशैलीचो हो संप्रदाय आद्य राजस्थानी मेवाड चित्रसंप्रदायांतल्यान जल्माक आयिल्लो आसलो, तरीय ताचेर मोगल चित्रसंप्रदायांचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. बनारसच्या 'भारत कला भवनांत' आशिल्लें 'राग दीपक' आनी अलाहाबादेच्या 'म्युनिसिपल म्युझीयम' हांतूतलें 'रागिणी भैरवी' हीं रागमाला चित्रां म्हळयार बुंदी चित्रशैलीचे आर्विल्ले नमुने. हे शैलींतल्या सुरवातीच्या चित्रांनी मेवाड चित्र संप्रदायांतल्या धीट आनी आदीम मोडणाचें चित्रण

आनी मोगल शैलींतलें सैमवादी तशेंच बारकायेचें चित्रण हांचो मेळ घडिल्लो दिसता. बुंदी चित्रशैलीची रंगसंगती सादी आसली तरी तातूंतल्यान झगझगीत आनी समृध्द परिणाम सादोवप जाता. नुस्त्या आकृतीचे दोळे, तोकदार नाक, दोट्टी खाडकी हीं हे शैलींतलीं व्यक्तीचित्रणाचीं खाशेलपणां. हे शैलींतलें तोंडावळ ल्हान आनी वाटकुळें आसून दोळयांवटेन शेडिंग केल्लें दिसता.

ह्या चित्रांतल्यान सैमीक चित्रांय बारीकसाणीन चितारिल्ल्याचें दिसता. भरपूर झाडां, रातचें मळब, ल्हारां वा भोंवरे दाखोवन केल्लें



बागेंत आपल्या इश्टिणींवांगडा बशिल्ली राजकन्या

उदकाचें चित्रण हीं ताचीं खाशेलपणां. बायलांचें रेखाटन करतना मिरयांचो घागरो, पारदर्शक ओडणी, भरपूर वस्तींनी युक्त अशें करप जाता जाल्यार दादल्यांचें रेखाटन करतना पगडी, चतुश्कोणी पायजमो, लांब आनी अशीर पटको ह्या वस्त्रांचो वापर केल्लो दिसता. भारताच्या राश्ट्रीय संग्रहालयांतलें रागमालेवयलें बुंदी चित्रशैलींतलें रेखाचित्र उल्लेख करपासारकें आसा. कलकत्त्याच्या गोपीकृष्ण कनोरिया हांच्या संग्रहाक आशिल्लीं रागमालेचीं ३६ चित्रां हीं अठराव्या शतमानाचे सुरवेच्या बुंदी चित्रशैलीचीं खाशेलपणां दाखयतात. अठराव्या शतमानाचे सुरवेक हे शैलीची खूब उदरगत जाल्ली पळोवंक मेळटा. अठराव्या शतमानाच्या उत्तरार्दांत हे शैलीक वेगळें मोडण लागलें. तातूंतलीं खाशेलपणां अशीं- सुरवेक ह्या चित्रांनी तपकिरी रंगाचीं मुखामळां दिसतालीं. उपरांत तांचो रंग उजळ गुलाबी जाल्लो दिश्टी पडटा. मुखामळाक केल्लें गुळगुळीत छायांकन वचून त्या जाग्यार सहजतायेन केल्लें चित्रण मेळटा. सपाट आनी एकरंगी फाटभुंये जाग्यार ती जायत्या रंगसयांची अशी दिसता. बायलांचो भेस, तेचपरी घरगुती वापरांतल्यो वस्तु, फर्निचर हांचें रेखाटन बी सोनेरी रंगांत दिसता. उदकाखातीर रुपेरी रंगाचो वापर केल्लो दिसता. एकुणिसाव्या शतमानांतूय ह्या संप्रदायाची भरभराट चालूच आशिल्ली. कोटाचो दुसरो रामसिंग (१८२८-६६) हाचे कारकिर्दींत ताचें आनीक एक झगझगीत पर्व तयार जालें. दोंगराळ वाठारांतल्या दाट रानांतल्या शिकारेचीं आंगार कांटो फुलोवपी दृश्यां, तेचपरी राजाचे जिणेंतले वेगवेगळे प्रसंग हांचें चित्रण केल्लें ह्या पर्वांत दिश्टी पडटा.

बुंदी संप्रदायांतल्या दोन मुखेल चित्रांचे विशय अशे आसात- १) चंद्रकोर पळोवपी मोगी जोडपें (सुमार १६८९, 'प्रिन्स ऑफ वेल्स म्युझीयम', मुंबय). २) राधाकृष्ण-भेट (अठराव्या शतमानाचे सुरवेक, माधुरी देसाई-चित्र संग्रह, मुंबय).

- कों. वि. सं. मं.

**बुंदेली भास आनी साहित्य :** बुंदेलखंड आनी ताच्या लागसारच्या प्रदेशांनी उलयतात ती भास. ही अस्तंती हिंदीची एक बोली. उत्तर प्रदेशांतल्या झांशी, जालौन आनी हमीरपूर ह्या जिल्ह्यांनी तशेंच मध्य प्रदेशांतल्या ग्वाल्हेर, भोपाळ, ओरछा, सागर, नृसिंहपूर, सिवनी आनी होशंगाबाद ह्या जिल्ह्यांनीय ही भास उलयतात. दतिया, पन्ना, चरखारी, दमोह, बालाघाट आनी छिंदवाडा ह्या वाठारांनीय बुंदेली भाशेचें मिश्र रूप दिसता.

पँवारी, लोधानी वा राठौरी आनी खटोला ह्यो बुंदेली भाशेच्यो उपभासो मानल्यात.

बुंदेलखंडाचो प्रदेश लोकगितांचे नदरेन खूब समृध्द आसा. ह्या प्रदेशांतल्या लोकांची जीण अशे तरेन जायत्या प्रकारच्या लोकगितांनी उपाट भरल्या. सादारणपणान ह्या लोकगितांचीं उत्सवगितां, प्रेमगितां आनी राजनैतिक, समाजीक आनी वीरप्रशंसात्मक गितां अशी वांटणी करूं येता. श्री. गौरीशंकर द्विवेदी हाणें बुंदेली लोकगितांचें विभाजन केलां तें अशें -

'सैर' हीं पदां आषाढ आनी श्रावण ह्या म्हयन्यांनी गायतात. 'राछरे' हीं पदां ज्येष्ठ म्हयन्यासावन श्रावण म्हयन्यामेरेन गायतात.

'भलारे' आनी 'सावन' हीं पदां श्रावण आनी भाद्रपद ह्या म्हयन्यांनी गायतात. 'बिलवारी' आनी 'दिवारी' हीं पदां आश्विन आनी कार्तिक म्हयन्यांनी गायतात. बाबा वा भोला हाचीं पदां माघ म्हयन्यांत तीर्थयात्रे वेळार म्हण्टात. 'फागें' आनी 'लेदें' हीं पदां माघ फाल्गुन म्हयन्यांत गायतात. 'गारी' हीं पदां मंगलप्रसंगार गायतात.

तशेंच तण कापतना वा हेर कसलींय कश्टांचीं कामां करतना लोक तरातरांचीं पदां म्हण्टात. उत्सवगितांनी जल्माविशींच्या पदांचो आस्पाव जाता. तांकां सोहरगितां अशें म्हण्टात. कोणागेरूय चलो जल्मतकच लागसारच्यो बायलो थंय जमून सोहरगितां म्हण्टात. ह्या सोहरगितांनी भुरगो जल्मल्ल्याची उमेद दिसता. देखीक -

*घूंघर बाले हैं बाल मोरे लला के.......*

*दादा जीवे, दादी जीवे, जीवे सकल परिवार मोरे लला के ।*

**अर्थ -** म्हज्या ल्हान बाबूचे केंस कोंगरे आसात. ताच्या आवय बापायक आनी घरच्यांक लांब जीण मेळूं.

जल्मा उपरांत धा दिसांनी बधावगितां गावपाची चाल आसा. सोयऱ्या-धायऱ्यांकडसून ह्या दिसा बाळंतिणीक बधावे म्हळयार भेटवस्तू येतात. भुरगो एका म्हयन्याचो जातकच ताची आवय बांयची पुजा करपापासत बांयचेर वता. तेन्ना शेजारच्यो बायलो-चलयो तिचेवांगडा वतात. थंय वचून त्यो जीं पदां म्हण्टात तांकां 'कुआँपूजन गितां' अशें म्हण्टात.

बुंदेलखंडांत, लग्नसुवाळयांत साकरपुड्यासावन कांकण सोडयमेरेन सगळया सुवाळयांचेर पदां आसात. ह्या पदांतलीं बनरा, बनरी, गारी, बुंदेला, रघुपत हीं कांय मुखेल पदां आसात.

लग्नाविशीं उलोवणीं करपाक न्हवरो आनी व्हंकलेवटेनचे लोक जेन्ना एकठांय येतात, तेन्ना थंय जमिल्ल्यो बायलो उमेदीन पदां म्हण्टात. बुंदेलखंडांत न्हवऱ्याक बनरा आनी व्हंकलेक बनरी अशें म्हण्टात.

दरेका ऋतुविशींचींय पदां बुंदेलखंडांत गायतात. वर्सभरांत दर म्हयन्याक गायतात त्या गितांक मेळून 'बारहमासा' अशें नांव आसा. अशींच 'चौमासा' आनी 'छैमासा' गितांय आसात. हीं पदां रचपी बुंदेलखंडांतले कांय म्हत्वाचे लोककवी अशे आसात. ईसुरी हाचो जल्म इ.स. १८३८ च्या अदमासाक मेंडकी ह्या गांवांत जालो. ताच्या गितांचें संकलन ईसुरीकी फागें आनी ईसुरीप्रकाश ह्या नांवांनी जालां. चतुर्भुज ह्या कवीचो जल्म बगौरा ह्या गांवांत जालो. इ.स. १८६३ ते १९०८ ह्या काळांत ताणें आपली काव्यरचना केली. गंगाधर व्यास ह्या कवीचो जल्म इ.स. १८४२ वर्सा छतरपूर ह्या गांवांत जालो. ताचे द्वारिका विहार, अष्टयाम, नीतिमंजरी, सैरलावनी, फागें हे ग्रंथ उजवाडा आयल्यात. मनभावन ह्या कवीचो जल्म इ.स. १८७२ वर्सा छतरपूर ह्या गांवांत जालो. स्फुट फागें नांवाचो ताचो एक ग्रंथ प्रसिध्द आसा. तशेंच परमानंद पांडेय, रामदास नामदेव 'दास', प्यारे जू, दुर्गा, सरजू लाल, लाला बंशगोपाल, मुंशी अवध लाल, घनश्याम पांडे, भुजबल सिंह, रसिया ह्या कवींनी खूबशीं स्फुट गितां रचलीं. तांचे लेगीत सग्रह उजवाडा आयल्यात.

- कों. वि सं. मं.

## बुगडे, दत्ताराम राघोबा : (जल्म : पार्शे-पेडणें).

सुटेकझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा पार्शे-पेडणें गांवांत सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी न्यायालयामुखार उबो केलो. न्यायालयान ताका पांच वर्सां खर बंदखण फर्मायली. ताका पणजी पोलीस ठाण्यार आल्तिनो हांगा तशेंच रेइश मागूशचे बंदखणींत दवरिल्लो. १९५८ त ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## बुड्‌टी : 

दर्या, न्हंयो, तळीं हांच्या उदकाच्या प्रमाणांत सैमीक वा कृत्रीम रितीन अकस्मात वाड जावन तांच्या लागसारच्या वाठाराचेर आपत्ती येता तेन्ना बुड्‌टी आयली अशें म्हण्टात. लागसारचो वाठार उदकापोंदा बुडटा हाचे वयल्यान बुड्‌टी ही संज्ञा निर्माण जाल्या. प्रमाणाभायलो पावस, सुमाराभायलें बर्फाचें वितळप, न्हंयेवयले बांद, धरणां अकस्मात फुटप, दोंगराचे कडे न्हंयेंत कोसळप, न्हंयेच्या पात्रांत भूंयकांप वा ज्वालामुखी जावप, न्हंयेची दिका बदलप. हीं कांय न्हंयेच्या उदकाचीं बुड्‌टी येवपाचीं कारणां. दर्यादिगेर जावपी चक्रीवादळांतल्यान निर्माण जाल्लीं व्हड व्हड ल्हारां (सुमार ८० x १६ x ६ किमी.), दर्याच्या तळाक जाल्ले भूंयकांप आनी ज्वालामुखीवरवीं निर्माण जावपी सुनामी ल्हारां हीं कांय दर्याबुड्‌टेचीं कारणां आसात. ह्या कारणांक लागून न्हंयेचे क्षमतायेपरस चड उदकाचो साठो न्हंयेच्या पात्रांत एकठांय जाल्ल्यान न्हंयेचें उदक भोंवतणच्या वाठारांत पातळटाण तशेंच चक्री वादळांतल्यान निर्माण जाल्लीं ल्हारां दर्या देगेवयल्या वाठारांचेर आदळटात. उदकाचे हे आपत्तींतल्यान बुडटे सकयल आयिल्ल्या वाठारांची व्हड प्रमाणांत वीत्त आनी मनीस हानी जाता. अशा बुड्‌ट्यांनी संवसारभर सुमाराभायर हानी करून दवरल्या. देखीक : चिनांतले यांगत्सी न्हंयेक १९११ त आयिल्ले बुड्‌टेंत सुमार १,००,००० लोक मेले, १९७३ त पाकिस्तानांत सिंधु न्हंयेक आयिल्ले बुड्‌टेंत २,३०० लोक मेले, १९५४ त भारतांत ब्रह्मपुत्रा न्हंयेत आयिल्ले बुड्‌टेंत सुमार १२.८ लक्ष लोकांक उपद्रव जालो. १९५६ त दामोदर न्हंयेत आयिल्ले बुड्‌टेंत अस्तंत बंगालांतलो

२५,००० चौ. किमी. वाठार उदकापोंदा गेलो. भारतांत तशेंच संवसारांतल्या हेर देशांनी दर वर्सा खंय ना खंय बुड्टी येवन अशेच तरेची हानी जाता. भारतांत दर वर्सा सादारणपणान २.४कोटी लोकांक बुड्टेचो उपद्रव जाता. सरासरी २४० कोटी मोलाची मालमत्ता बुड्टेंत नश्ट जाता. सुमार ५०-७० लक्ष हेक्टर जमनीतलें पीक नश्ट जाता. १९७७त आंध्र प्रदेशांत जाल्ल्या चक्रीवादळांत सुमार १०,००० लोकांचो बळी घेतिल्लो. तेभायर दरवर्सा बुड्टी नियंत्रणाचेर सरासरी ३० कोटी खर्च जातात.

बुड्टेंत जावपी आकांताची हानी लक्षांत घेवन सगळ्याच राश्ट्रांनी बुड्टेचेर नियंत्रण करपाची कार्यावळ हातांत घेतल्या. न्हंयेच्या पात्रांतलें वाढीव प्रमाणांतलें उदक न्हंयेच्या देगांवयर पावचें न्हय म्हणून न्हंयेच्या देगांचेर बांद घालून न्हंयेचें पात्र रूंद करून, न्हंयेच्या तळांतलो गाळ उसपून न्हंयेची खोलाय वाडोवप, न्हंयेच्या पात्रांतलीं मोडणां काडून ज्यादा उदक साठोवपी तळें बांदून वा न्हंयेचेर धरणां बांदून बुड्टेचेर नियंत्रण करतात. अशेच तरेची वेवस्था दर्या बुड्टेच्या संदर्भांतय करप जाता. नियंत्रण प्रक्रियेचोच एक वांटो म्हणून बुड्टे संबंदी लोकांक आदीच सादूर करप जाता. भारतान के. एल्. राव हाची गंगा कावेरी जोड खारजा येवजण आनी डी. जे. दस्तूर हाची गार्लंड खारजा येवजण अशो दोन म्हत्वाकांक्षी येवजण्यो विचाराधीन आसात. उत्तर भारतांतल्या न्हंयांचे उदक खारजांमदसून दक्षिण भारतांतल्या न्हंयांनी सोडून उत्तर भारतांतल्या न्हंयांतल्या उदकाचे प्रमाण उणें करप. उत्तर भारत आनी दक्षिण भारतांतल्या न्हंयांतल्या उदकाच्या प्रमाणामदीं समतोलपण हाडप आनी हाचेवरवीं न्हंयांच्या बुड्ट्यांचेर नियंत्रण दवरप हें उद्दिश्ट हे येवजणेफाटल्यान आसा. पूण हे येवजणेक लागपी सुमार २० ते २५ हजार कोटी रुपया खर्च आनी तंत्रीक सुविधा जशी आनी जेन्ना उपलब्ध जातली तशी आनी तेन्ना ही येवजण कार्यरत जातली.

- कों. वि. सं. मं.

**बुध :** सूर्यकुलांत हेर गिऱ्यांपरस, सुर्याक लागीं आशिल्लो गिरो. कुबेर गिऱ्याउपरांत हो सगळ्यांत ल्हान गिरो. तो सुर्यासावन सुमार ५८,०००,००० किमी. अंतराचेर सुर्याभोंवतणीं घुंवता. ह्या गिऱ्याची परिभ्रमण कक्षा (orbit) धर्तरेचे परिभ्रमण कक्षेभितर आशिल्ल्यान फांतोडेर आमकां तो उकत्या दोळ्यांनी पळोवपाक मेळटा. हो गिरो सुर्याभोंवतणीं लंबवाटकुळाकारान भोंवता. ताचो वेग दर सेकंदाक ४८ किमी. आसून तो हेर गिऱ्यांच्यावेगापरस चड आसा. तो सुर्याभोंवतणीं एक भोंवाडो मारपाक धर्तरेचे ८८ दीस घेता.

बुध हो गिरो अशी सुमेरियन काळांतल्या (इ.स.प. ५०००) लोकांक म्हायती आशिल्ली. मळब नितळ आसल्यार हो गिरो फांतोडेर वा आमोरे वेळार दिश्टी पडटा. हाका लागून हे दोन गिरे आसात, असो कांय लोकांचो समज आशिल्लो आनी तांणी ह्या गिऱ्याक दोन वेगवेगळीं नांवां दिल्लीं. इ.स.प. २६४ ह्या सुमाराक फांतोडेर उदेंतेक दिसपी ह्या गिऱ्याक ग्रीसी लोकांनी अपोलो हें नाव दिलें. आमोरेचेर अस्तंत दिकेक दिसपी गिऱ्याक रोमन लोकांनी मर्क्युरी वा हर्मिझ हें नांव दिलें. हर्मिझ म्हळ्यार देवाचो दूत. हेर गिरे आनी उपगिऱ्यांपरस हाची हालचाल नेटान जायत आशिल्ल्यान रोमन लोकांनी ताका हें नांव दिलां. उपरांत उदेंतेक- अस्तंतेक दिसपी हे दोनूय गिरे म्हळ्यार एकूच हें गॅलिलीयो हाणें पटोवन दिलें.

भारतांत ह्या गिऱ्याक वेदांउपरांत म्हत्व मेळ्ळें. फलज्योतिश्यांत ताका मिथून राशीचो अधिपती मानला. सादारणपणान तो शुभ आसता. पूण पापग्रहांकडेन युक्त जाल्यार तो अशुभ जाता. तसोच ताचो संबंद बुद्दीकडेन आसून बुध्दिमत्ता हो ताचो मुखेल धर्म. जाचे कुंडलेंत बुध बळिश्ट आसता तो मनीस नामनेचो वक्तो वा लेखक जाता अशें मत आसा.

बुधाचो व्यास ४,८७७ किमी. बुधाक उपगिरो ना. ताचें वस्तुमानूय उणें आशिल्ल्यान हेर गिऱ्यांचे कक्षेत ताच्या वस्तुमानाचो परिणाम सापूच उणो आसता. वस्तुमान आनी आकारमान हांचेवयल्यान काडिल्ली बुधाची सरासरी घनताय ५.२ ग्रा./घ. सेंमी. असा. धर्तरेच्या मानान बुधाचें गुरुत्वाकर्शण उणें. बुधाचो मुक्तिवेग सेंकदाक ४.१९ किमी. आसा.

बुध हो गिरो सुर्याक लागीं आशिल्ल्यान ताचें सुर्यावटेनचें तापमान चड खर म्हळ्यार सुमार ४००° सें. परस चड आसता. उणो मुक्तिवेग आनी खर तापमान आशिल्ल्यान बुधाचेर वातावरण ना हें सिध्द जाता.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन बुधाविशीं खूब म्हायती मेळिल्ली. पूण हो गिरो सुर्याक चड लागीं आशिल्ल्यान ताच्या भूंयपृश्ठाची स्पश्टपणान अशी म्हायती आजून मेळूंक ना. तसो बुधाचें आकारमान चंद्रिमापरस व्हड. ताचें, धर्तरेचें आनी चंद्रिमाचें भूंयपृश्ठ लागींलागीं सारकेंच आसा. बुधाचो प्रतिक्षेप ०.०६ आसा. ताच्या पृश्ठाचेर पडिल्ल्या उजवाडांतलो ६% उजवाड परावर्तीत जाता. हाचेवयल्यान बुधाचो पृश्ठभाग खडबडीत आनी गाड रंगाच्या खडपासावन तयार जाल्लो आसा असो अदमास काडला. ल्हान व्हड मळां, फोंडकुलां, दोंगुल्ल्यो, देगणां आनी खळयो हीं पृश्ठाचीं मुखेल स्वरुपां. ह्या गिऱ्याचेर चुंबकीय क्षेत्र आसा हें मरिनर-१० ह्या अवकाशयानान धाडिल्ले म्हायतीवयल्यान कळटा. सुर्याक चड लागीं आशिल्ल्यान बुधाची कक्षीय गती हेर गिऱ्यांपरस चड आसा.

- डॉ. अरूण हेबळेकार

**बुधवार :** सप्तकांतलो चवथो वार. ह्या दिसाच्या पयल्या होऱ्याचो अधिपती बुध आसता, म्हणून हाका बुधवार हें नांव पडलां.

हिंदू लोंकाभितर बुधवाराक विठ्ठलाचो वार मानतात. ह्या दिसा भाविक लोक तशेंच कुळारा आयिल्ल्यो बायलो विठ्ठलाच्या क्षेत्रांतल्यान (देखीकः पंढरपूर) भायर वचनात.

बुधवारा दिसा शेतकामती कापणी, धान्यमेजणी करिनात. दुडवांचो वेव्हार, इमारतींखातीर लांकूड कापप, केंस मारप ह्या गजालींक बुधवार दीस अशुभ मानतात, पूण बुधाचो संबंद बुध ग्रहाकडेन लावन बुदवंतकायेच्यो गजाली, अध्ययन, लिखाण ह्या गजालींची सुरवात बुधवारा दिसा करची अशें ज्योतिशशास्त्रांत सांगलां. मुसलमान लोक बुधवाराक भाग्याचो दीस मानतात.

इंग्लीश भाशेंत बुधवाराक वॅनसडे अशें म्हण्टात. ट्युटॉनिक पुराणकथांतली मुखेल देवता वोडन (वेडिन) हिचेवयल्यान पयलीं वोडन्स डे (वोडनचो दीस) हें नांव पडलें आनी उपरांत ताचेंच फुडें वॅनसडे जालें आसूं येता.

रोमन कॅथलीक आनी अँग्लिकन ह्या किरिस्तांव लोकांमदीं ॲश वॅनसडे हो म्हत्वाचो दीस आसून ईस्टर ह्या सणाआदीं येवपी लँट ह्या उपासाच्या आनी पश्चातापाच्या काळाची सुरवात ह्या बुधवारा जाता.

- कों. वि.सं. मं.

**बुध्द गौतम :** बौध्द धर्माचो प्रवर्तक. बुध्द म्हळयार ज्ञानोदय वा गिन्यान प्राप्त जावप. आयच्या संवसारीक इतिहासांत बुध्द हो गौतम (संस्कृत) वा गोतम (पाली) ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. गौतम बुध्दाचें



चरित्र पुरायपणान सांगपी असो ग्रंथ पाली वा संस्कृत भाशेंत ना. त्रिपीटक, जातक कथा, महावस्तु, ललितविस्तार, बुध्द चरित (अश्वघोष) आनी अभिनिष्क्रणसुत्रांत. (धर्मगुप्त) ह्या ग्रंथांनी बुध्द चरित्राचे अंश मेळटात.

इ. स. पयलीं सुमार ५६३ ह्या काळांत कोसल देशांत (सद्या भारत-नेपाळ हांचे शिमेर) शाक्य कुळांत गौतम बुध्दाचो जल्म वैशाखी पुनवेक जालो. ताचो बापूय शुध्दोदन हो एक ल्हानशा म्हाजनसत्ताक राज्याचो राजा आशिल्लो. ताचे आवयचें नांव मायादेवी. ताचे आवयन म्हळयार मायादेवीन एक सपन पळयलें, तातूंत एक धवोफुल्ल सोबीत हत्ती तिचे कुशींत रिगता. देवल ऋषीन ह्या सपनाचो मतीतार्थ असो सांगलो- जर हो चलो गृहस्थाश्रमांतूच रावत जाल्यार चक्रवर्ती जातलो आनी घरदार सोडून गेल्यार तो म्हान संबुध्द जातलो.

गौतम बुध्दाचो जल्म जाले उपरांत कांय दिसांनीच ताचे आवयक मरण आयलें. ताका ल्हानाचो व्हड ताची मावशी आनी सवती आवय गौतमी हिणें केलो. आपलो चलो गृहस्थाश्रमांतूच रावन एक व्हड चक्रवर्ती जावंचो अशें शुध्दोदन हाका दिसतालें. ताणें बुध्दाखातीर सगळयो सुखसोयी निर्माण केल्यो. एक दीस म्हातारो, पिडेस्त, मेल्लो आनी संन्यासी अशो मनशाच्यो चार अवस्था ताचे नदरेक पडल्यो. त्यो पळोवन संवसाराविशीं ताच्या मनांत उबगण आयली. संवसारांत जें मुळावें दुख्ख आसा तें कशें काबार करपाक जातलें हाचो सोद घेवपाखातीर ताणें घर सोडलें.

घरांतल्यान भायर सरून तो दक्षिणेक गेलो. भोंवडी करता करता ताका कालाम आनी उद्रक रामपुत्र ह्या नांवाचे दोन ध्यानाचार्य मेळ्ळे. कांय दीस ह्या आचार्यांकडेन रावन ताणी सांगिल्ल्या मार्गान वचून ताच्या ध्येयसमाधिप्रत मेरेन तो पावलो.पूण हातूंत ताका समाधान मेळ्ळेंना. ताणें ताचें शिश्यत्व सोडून खर तपश्चर्या करपाचो मार्ग आपणायलो. गौतमान ध्यानमार्ग आपणावन आपली ध्येयसिध्दी चालूच दवरली. नैरंजना न्हंयेचे देगेर तो ध्यानस्थ बशिल्लो. ताचे पयलीं सुजाता नांवाचे एके चलयेन ताका पायस वाडिल्लो. बोधीचो साक्षात्कार जावंचे पयलीं हें ताचें निमाणें जेवण आशिल्लें. तो पिंपळाच्या रुखापोंदा ध्यानस्थ बशिल्लो. ताच्या मनांत सत्प्रवृत्ती आनी असत् प्रवृत्ती हांचें झगडें सुरू जालें. तातूंत सत्प्रवृत्तीचो जय जालो. हें मारझूज आशिल्लें अशें काव्यमय रूपकांत वर्णन केलां. मार म्हळयार सैतान. रातभर ध्यान-चिंतन करतना ताका गिन्यानाचो (बोधीचो) साक्षात्कार जालो. हो वैशाख पुनवेचो दीस आशिल्लो. जगांत 'प्रतीत्यसमुत्पाद' (कारण परंपरेक लागून सगळयो वस्तू अस्तित्त्वांत येतात) हाचो दंडक आसा, हाची ताका जाणविकाय जाली. ह्या सिध्दांताप्रमाण ह्या संवसारांत सगळें सापेक्ष आनी एकामेकाचेर आदरिल्लें आसा. हांगा आजल्म वा आमरण अशी कसलीच वस्तू ना. तशेंच तातूंत एकसारको बदल जायत आसता. ह्या सिध्दांताचें गिन्यान प्राप्त जालें.

बोधी प्राप्त जालेउपरांत तो आपलें श्रेश्ठ गिन्यान हेरांक दिवपाखातीर भायर सरलो. पूण लोकांचीं मनां वासनेन भरिल्ल्यान तांकां सत जाणून घेवपाची इत्सा ना अशें ताका दिसपाक लागलें. म्हणून आपल्याक प्राप्त जाल्लें श्रेश्ठ गिन्यान सुरवेक आडार कालाम आनी उद्रक ह्या आपल्या गुरूंक दिवचें, ते विद्वानच हें ज्ञान घेवपाक योग्य आसात अशें ताका दिसपाक लागलें. पूण ताचे ते दोगूय गुरू ह्या संवसाराक अंतरिल्ले. उपरांत बुध्दाक नैरंजन न्हंयेचे देगेर आपल्याक आदार करपी पांच ब्राह्मण तपस्यांची याद जाली.देखून गया प्रदेश सोडून तो वाराणसीक गेलो. थंय ताणें त्या पांच ब्राह्मणांक आपलें पयलें धर्मप्रवचन दिलें.

बुध्द तांकां सांगपाक लागलो. आपल्याक चार आर्य सत्यांची प्रचिती जाल्ली आसा. दुख्ख, दुख्खसमुदय, दुख्खनिरोध आनी निरोध-गामिनी प्रतिपद अशीं चार आर्य सत्यां आसात. तांच्या सम्यग्गिन्यानानूच संबोधी प्राप्त जाता. हीं सत्यां प्राप्त करून घेवपाचे आठ मार्ग आसात. अष्टांगमार्ग (मध्यम मार्ग) होच निर्वाण प्राप्तीचो खरो मार्ग. हो संवसार दुख्खान भरिल्लो आसा. वासनांक लागून दुख्ख निर्माण जाता. दुख्खाचो नाश करपाखातीर मनांतली वासना पुरायपणान काडून उडोवंक जाय. बुध्दाचें हें पयलें धर्मप्रवचन आशिल्लें. त्या प्रवचनावरवीं ताणें धर्मचक्राक एक वेगळी दिका दिली.

त्या पांच ब्राह्मणांनी बुध्दाचो तो उपदेश आपणायलो. ते बुध्दाचे शिश्य जाले. उपरांत त्या पांचूय ब्राह्मणांनी मेळून बौध्द संघाची स्थापणूक केली. ल्हव ल्हव बुध्दाच्या अनुयायांची संख्या वाडपाक लागली. ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य, शुद्र असल्या सगळ्या थरांतले बायलो-दादले ताचे अनुयायी जाले. हो धर्ममार्ग हेरांक शिकोवपाखातीर ताणें आपल्या शिश्यांक चारूय दिकांनी धाडले. उपरांत बुध्द उरूवेला परत आयलो. थंय साबार कुलीन आनी प्रतिश्ठित तरनाट्यांनी बौध्द धर्माची दिक्षा घेतली आनी ते भिक्षू जावन धर्मप्रचाराखातीर भायर सरले. हाका लागून हांगा खूब बोवाळ जालो. लोक तिडकले. तांणी बुध्दाच्या ह्या मार्गाक विरोध केलो. तेन्ना बुध्दान म्हळें फकत सत्याचे शक्तीचो साक्षात्कार जाल्ल्यान लोक म्हजे शिश्य जाल्यात. उपरांत ताणें आपल्या कुटुंबाक उपदेश करून तांकां आपले अनुयायी करून घेतले. तातूंत ताचो चलो राहुल हाचोय आस्पाव आशिल्लो.

आपले पिरायेच्या निमाण्या दिसांनी ताची सवती आवय म्हाप्रजापती गौतमी हिचे सांगणेवयल्यान बुध्दान बायलांचोय संघ (भिक्षुणी संघ) स्थापीत केलो. बुध्दान आपलो धर्मप्रचाराचो वावर सुमार ४५ वर्सां मेरेन चालू दवरलो. ताका दुखणें जाल्ल्यान ताची भलायकी इबाडिल्ली, तरी ताची भोंवडी चालूच आशिल्ली. पावा नांवाचे सुवातेर आयले उपरांत चुंद नांवाच्या धवडाकडेन तो रावपाक लागलो. ताणें बुध्दाक लागून सूकर-मद्दव नांवाचें पक्वान्न केल्लें. पूण तें बुध्दाक पचलेंना. ताका हागवणेचो विकार जालो. निमाणेकडेन ताणें आनंद ह्या आपल्या शिश्याक आपोवन हाडून बायलांकडेन कशें वागपाचें हें ताका समजावन सांगलें. आपणें शिकयल्लो धर्म विनय होच तुमचो शास्तो, अंशें सांगून ताणें जीव सोडलो. हो दीस वैशाखी पुनवेचो आशिल्लो.

बुध्दापयलींचो भारत आनी बुध्दोत्तर भारत हाची तुळा केल्यार बुध्द हो युगप्रवर्तक आशिल्लो अशें दिसता. ताणें आपलें जिवीत भोवजनांच्या हिताखातीर आनी भोवजनांच्या सुखाखातीर रचिल्लें. मोनजातीविशीं दया, मानवतावाद आनी मनशांची समानताय हें ताचें खाशेलपण.ताणें वैदिक काळांतले यज्ञसंस्थेंतले पशुहत्येक खर विरोध केल्लो. जल्मजात उच्च नीचताय अमान्य करून कर्माचेरूच उच्चताय आदारून आसता, हें पटोवन दिलें, हीच विचारसरणी मध्ययुगांत रामानंद, चैतन्य कबीर, एकनाथ, तुकाराम हांच्या वाङमयांतल्यान आयच्या समाजांत पातळ्ळया. गांधीजीनूय अहिंसेचो मार्ग आपणायल्लो. दादल्यांवरी बायलांकूय संघटीत धर्मीक जीण जगपाचो मार्ग ताणें उक्तो करून दिलो. तांकांय अर्हतपद प्राप्त जावंक शकता, तशेंच त्योय दादल्यांवरी प्रज्ञावान आसूंक शकतात. ताच्या भिक्षुणी संघांतल्या क्षेमा, पटाचारा, धम्मदिन्ना ह्या भिक्षुणींनी दाखोवन दिलें. ताणें धर्माचें दार सगळयांक उक्तें दवरिल्लें. बुध्द हो लोकानुवर्ती, भोवजनवर्ती शासनाचो भोक्तो आशिल्लो. ताच्या संघांत सगळे प्रश्न भासाभास जावन भोवमतान सुट्टाले. ताच्या मतान धर्मीक ग्रंथ आनी उपदेश हे लोकांक समजुपी भाशेंतूच आसचे. 'मा द्वे एकेन अगमित्थ' म्हळयार 'दोन भिक्षूंनो, एकेच दिकेक वचूं नाकात' अशें सांगून आपल्या धर्माचो प्रसार साबार देशांनी जावपाची बुन्याद ताणें घालून दिली. सुरवेक जरी ताका श्रेश्ठ हिंदूंकडच्यान विरोध जाल्लो तरी उपरांत ताचें म्हत्व जाणून ताका दशावतारांत सुवात दिली.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** बौध्द धर्म.

## बुध्दघोष : (जल्म : इ.स.चो ५वो शेंकडो).

एक बौध्द भिक्षू आनी प्रकांड पंडित. बुध्दघोषाचें अधिकृत चरित्र उपलब्ध ना, पूण कांय ग्रंथांतल्यान ताच्या चरित्राविशीं म्हायती मेळटा ती अशी -

परंपरीक समाजाप्रमाण बुध्दघोषाचो जल्म इ.स. च्या चवथ्या शेंकड्यांत गयेच्या लागसार एका ब्राह्मण कुळांत जालो. पूण हो समज बरोबर न्हय अशें धर्मानंद कोसंबी हाणें 'विसुध्दिमग्ग' ह्या ग्रंथाक बरयल्ले प्रस्तावनेंत स्पश्ट केलां. तशेंच, बुध्दघोषाचो जल्म गयेच्या लागसार जाल्लो नासून दक्षिण भारतांत एका शेतकार कुटुंबांत जाल्याचें ताणें दाखोवन दिलां. 'विसुध्दिमग्ग' ह्या ग्रंथाच्या शेवटाक 'मोरण्डखेटक' ही

आपली रावपाची सुवात आशिल्ल्याचो उल्लेख बुध्दघोषान केला. ताणें बरयल्ल्या अठ्ठकथांतल्यान, दक्षिणेंतल्या कांय सुवातींनी राविल्ल्याचो उल्लेख केला. ब्रह्मी बौध्द तो ब्रह्मदेशांत जल्मल्ल्याचें सांगतात.

बुध्दघोषाचो बापूय केशी हो मगधराज संग्रम हाचो राज पुरयत आशिल्लो. ताचें घराणें वैदिक आशिल्ल्यान ताणें बुध्दघोषाकूय वेदाध्ययनांत घालो. रोकडोच तो वेदशास्त्रांत पारंगत जालो. ताणें पातंजल योगदर्शनांत खाशेलें प्राविण्य मेळयलें. उपरांत कितल्याशाच पंडितांक, चड करून जैन-बौध्दांक, ताणें भासा भाशेंत हारयले. पूण रेवंत नांवाच्या एका महापंडित बौध्द भिक्षूकडल्यान मात ताका हार खावंची पडली. बुध्दघोषान ताचेकडेन पातंजल योगशास्त्राचेर भासाभास केली. रेवंताच्या वाद कुशळकायेन आनी प्रखर बुध्दिमत्तेन तो दिपावन गेलो. उपरांत तो रेवंताचो शिश्य जालो आनी बौध्दधर्म आपणायलो. रेवंतावांगडा गयेच्या महाविहारांत रावपाक गेल्लेकडेन ताणें विनय आनी अभिधर्म ह्या बौध्द ग्रंथांचें अध्ययन केलें. उपरांत ताणें ज्ञानोदय नांवाचो एक ग्रंथ बरयलो. ताची विद्वत्ताय पळोवन रेवंतान ताका सिंहलद्विपाक वचून सिंहल भाशेंतल्या अठ्ठकथांचो मागधी भाशेंत अणकार करून त्यो अठ्ठकथा भारतांत हाडपाक सांगलें. बुध्दघोष थंय गेलो. आपली तांक दाखोवपाखातीर ताणें 'विसुध्दिमग्ग' हो ग्रंथ बरयलो. तो ग्रंथ पळोवन लंकेंतले सगळे बौध्द, बुध्दघोषाचेर खूश जाले. तांणी ताका सिंहली अठ्ठकथांचो मागधी भाशेंत अणकार करपाची परवानगी दिली.

ह्या अठ्ठकथांचे विशयवारीन झेले करून ताणें तांकां विंगड विंगड नांवां दिलीं. तीं अशीं -

समंतपासादिका, कंखावितरणी, सुमंगलविलासनी, पपंचसूदनी, मनोरथपूरणी, तशेंच सारत्थपकासिनी, परमत्तजोतिकासिनी, परमजोतिका, अठ्ठशालिनी, संमोहविनोदिनी, पंचप्पकरण हे ताचे आनिकूय कांय ग्रंथ.

उपरांत बुध्दघोष ब्रह्मदेश, सायाम, कांबोडिया ह्या उदेंतेकडल्या देशांचे भोंवडेखातीर गेलो. थंयच्या धर्मज्ञानाची उदरगत करपाचो मोलादीक वावर ताणें केलो. त्या सगळया देशांतल्या बौध्द पंडितांमदीं बुध्दघोषाविशीं खूब आदर आसा. बुध्दघोषाक कंबोडियांत मरण आयलें अशें सागंतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बुध्दवंस :** एक बौध्द ग्रंथ. हो पद्यात्मक ग्रंथ. गौतम बुध्द आनी ताचेपयलीं बारा कल्पांनी जावन गेल्ले चोवीस बुध्द हांच्या चरित्रांचें चित्रण ह्या ग्रंथांत आयलां. ह्या ग्रंथांत गौतम बुध्दाची जीण सोडल्यार हेर सगळीं चरित्रां पुराणीक पद्दतीन बरयल्यांत. हो ग्रंथ भगवान बुध्दान आपल्या तोंडान कथन केलो आनी तो थेरांचे परंपरेन तृतीय संगितीमेरेन आनी उपरांत गुरू-शिश्य परंपरेन आयजमेरेन चलत आयला अशी बौध्द लोकांची समजूत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बुध्दीबळ :** बुध्दीच्या कसबाचेर आदारिल्लो एक बसून खेळपाचो खेळ. ६४ घरां आशिल्ल्या पटाचेर १६ धव्यो आनी १६ काळयो घुलो मांडून दोन खेळगडे तो खेळ खेळटात. बुद्धीबळ हो मूळ भारतीय खेळ आसून पुर्विल्ल्या काळांत ताका 'चतुरंग' अशें म्हण्टाले. भारतीय झुजांतल्या रथ, हत्ती, घोडे आनी पांयदळ चतुरंग सेनेवयल्यान ह्या खेळाक 'चतुरंग' अशें नांव पडिल्लें. भारतांत इ.स. पांचव्या आनी सव्या शतमानांत चतुरंग खेळटाले, अशे उल्लेख कांय ग्रंथांनी मेळटात. भारतांतल्यान हो खेळ इराण, अरबस्तानावरवीं युरोपांत तशेंच काश्मीरसावन चीनांत वचून थंयच्यान कोरिया, जपानांत पावलो अशें म्हण्टात. रशियेंत तो तिबेट, पर्शियेसावन गेला आसूंक जाय. पर्शियन 'छतरंग', अरबी 'शतरंज' आनी मंगोल 'शतर' हीं चतुरंगाचीं वेगवेगळीं रुपां.

चतुरंग खेळाचे नेम आनी सद्या प्रचलीत आशिल्ले बुद्धीबळाचे नेम हातूंत खूब फरक आसा. बुद्धीबळाचो खेळ दोन प्रतिस्पर्धी गडे, बुद्धीबळाचो पट मदीं दवरून खेळटात. हो बुद्धीबळाचो पट, आरतून-परतून धव्या आनी काळया रंगांच्या सारक्या आकारांच्या वट्ट ६४ घरांचो तयार केल्लो आसता. हो पट मदीं दवरतना पटाच्या कोनशांतलें धवें घर खेळगड्याच्या उजव्या हाताक आसचें पडटा. धव्यो घुलो घेवन खेळपी गडो डावाची सुरवात करता. दोनूय गड्यांनी दर खेपेक एक हेप्रमाण आरतून-परतून खेळी करपाची आसता. खेळाच्या डावाची सुरवातीची स्थिती आकृतींत दाखयल्या.

खेळी म्हळयार एकूच घूल एका घरांतल्यान रित्या आशिल्ल्या वा विरोधी घुलीन व्यापिल्ल्या दुसऱ्या घरांत व्हरप. हाका 'कॅसलींग' खेळी आडवाद आसा. (कॅसलींग ची म्हायती फुडें दिल्या). घोडो आनी कॅसलींग करतनाचो हत्ती हांचेखेरीज दुसरी खंयचीय घूल हेर घुलीन व्यापिल्लें घर हुंपून वचूंक शकना. विरोधी घुलीन व्यापिल्ल्या घरांत हालयल्ली घूल तेच खेळींत विरोधी घूल मारता. ही मारिल्ली घूल पटावयल्यान रोखडीच भायर काडप, हें ती घूल मारपी गड्याचें काम.

**दर एके घुलेची खेळी : राजा (किंग) :** कॅसलींग करतनाचो आडवाद सोडल्यार राजा प्रतिपक्षाचे घुलीन नियंत्रीत करूंक नाशिल्ल्या खंयच्याय लागींच्या घरांत हालोवं येता. कॅसलींग म्हळयार राजा आनी दोगांमदलो एक हत्ती ह्या दोगांयची मेळून एकाच वेळार केल्ली राजाची एक खेळी. ती अशी करतात- राजा ताच्या मूळ घरांतल्यान त्या रंगाच्या वा तेच रांकेंत आशिल्ल्या सगळयांत लागींच्या घरांत उजवे वा दावे वटेन हालता, उपरांत जे दिकेन राजा हालयला तो हत्ती राजाचे तकलेवयल्यान राजान हुंपिल्ल्या घरांत दवरतात.

कॅसलींग करपाक कांय परिस्थितींनी मना आसता. १) राजा पयलीं हालयल्लो आसल्यार कॅसलींग करूंक मेळना. २) कॅसलींग जेवरवीं करतात, तो हत्ती पयलीं हालयल्लो आसल्यार त्या हत्तीवांगडा कॅसलींग करूंक मेळना. ३) राजाचें मूळ घर वा राजान हुंपून वचपाचें घर वा

राजान कॅसलींग करतकच निमाणें घेवपाचें घर जर प्रतिपक्षी घुलीन नियंत्रीत केल्लें आसल्यार ४) राजा आनी जे वटेनचो हत्ती हालपाचो आसा तो हत्ती हातूंत खंयचीय घूल आसत, जाल्यार कॅसलींग करप तात्पुरतें अशक्य आसता.

**वजीर (क्वीन) :** वजीर जे रांकेंत, पट्टेंत वा दोगांमदल्या खंयच्याय कर्णाचेर (diagonal) आसता, ते रांकेंतल्या पट्टेंतल्या वा कर्णा वयल्या घरांत हालूंक शकता.

**हत्ती (रुक) :** हत्ती जे रांकेंत वा पट्टेंत आसता, ताचेवयल्या खंयच्याय घरांत वचूंक शकता. म्हळयारूच तो उब्या पङ्क्यांतल्यान वा आडव्या रांकांतल्यान घुंवता.

**ऊंट (बिशप) :** ऊंट ज्या दोन कर्णांचेर आसता, ताचेवयल्या खंयच्याय घरांत हालूंक शकता. म्हळयारूच ताची चाल तिरपी आसता.

**घोडो (नायट) :** घोड्याची खेळी दोन टप्प्यांनी मेळून जाता. पयलीं त्या घराचे पट्टेवयल्या वा रांकेंतल्या लागसारच्या घरांत वा थंयच्यान उपरांत ह्या नव्या घराच्या कर्णावयल्या मूळ घरासावन कुशीच्या (शेजारच्या) घरांत घोडो वता देखून घोडो अडेज घरां चलता अशें म्हण्टात.

**प्यादें (पॉन) :** प्यादें फकत फुडें वता. (अ) मारतानाचो आडवाद सोडल्यार प्यादे ताच्या डावाचे सुरवातीचे सुवातेवयल्यान ते पट्टेंतलें एक वा दोन रितीं घरां फुडें वता. तेउपरांतचे खेळींत तें ते पट्टेंतलें एक रितें घर फुडें वता. मारतना तें त्या घराच्या कर्णावयल्या शेजारच्या दोगांमदल्या एका घरांत फुडें वता. (आ) प्यादें, ताणें नियंत्रीत केल्लें घर जर प्रतिपक्षाच्या प्याद्यान सुरवातीचे खेळीक दोन घरां फुडें येवन हुंपिल्लें आसत जाल्यार त्या प्याद्याक (जें दोन घरां फुडें येता ताका) तें एकूच घर हाललां अशे तरेन मारता. पूण अशे तरेन प्यादें मारपाचें आसल्यार तें रोखडेंच फुडले खेळींत मारचें पडटा. हाका 'आं पासां' (en Passant) अशें म्हण्टात. (इ) प्यादें खंयचेय पट्टेचें निमाणें पावतकच तेच खेळीचो भाग म्हणून ताची खेळगड्याचे इत्सेप्रमाण वजीर, हत्ती, ऊंट, घोडो हातूंतले खंयचेय एके घुलेंत बेगोबेग अदलाबदल करची पडटा. म्हळयारूच प्याद्याचें स्वताच्या पक्षांतल्या वजीर, हत्ती, घोडो वा ऊंट हातूंतल्या एकांत रुपांतर जाता. हे खेळी वेळार पटार आशिल्ल्यो हेर घुलो विचारांत घेवपाच्यो आसनात.

**शह :** १) राजा ज्या घरांत आसा त्या घराचेर प्रतिस्पर्ध्याचे खंयचेय घुलीन घुरी घाली जाल्यार ते घूलीन 'राजाक शह दिलो' अशें म्हण्टात. २) राजाक दिल्लो शह फुडलेच खेळीवेळार काडचो पडटा. जर खंयचेय खेळी वरवीं शह काडूंक येना आसत जाल्यार प्रतिस्पर्ध्याचें जैत जाता. ३) जी घूल स्वताच्या राजाक दिल्लो शह छेदता, ती घूल तेच खेळींत प्रतिपक्षाच्या राजाक शह दिवंक शकता.

**जिखप :** १) जो गडो प्रतिस्पर्ध्याच्या राजाचेर जैत मेळयता, तो खेळगडो डाव जिखता २) जो खेळगडो डाव सोडिल्ल्याचें जाहीर करता, ताच्या प्रतिस्पर्ध्यान तो डाव जिखलो अशें गृहीत धरतात.

**बादाबादीचे डाव :** डावांत बादाबादी अशे तरेन जाता. १) ज्या खेळगड्याची खेळी आसा, त्या गड्याचो राजा शहांत नासून तो गडो नेमाप्रमाण खंयचीय खेळी करूंक शकना जाल्यार बरोबरी जाता. ह्या प्रकाराक 'स्टेलमेट' अशें म्हण्टात. २) दोनूय खेळगड्यांचे संमतीन डाव बादाबादेंत सोडोंव येता ३) दोगांमदल्या एका खेळगड्याचे मागणेप्रमाण



बुद्धीबळ घड्याळ







डावाचे सुरवातीची घुलांची मांडावळ

जेन्ना पटस्थिती तीन खेपे समान दिसता आनी दरेके खेपे त्याच खेळगड्याची खेळी आसता, तेन्ना बादाबाद जाता. जर त्याच रंगाच्या आनी तरेच्या घुलांनी सारकीं घरां व्यापिल्लीं आसत जाल्यार ती पटस्थिती सारकी धरतात. अशा वेळार सगळ्या घुलांच्या शक्य आशिल्ल्या खेळींचो आंकडो तोच आसूंक जाय. अशे स्थितींत बरोबरीच्या डावाची मागणी करपाचो हक्क फकत अशाच खेळगड्याक आसता, अ) ज्या गड्याक खंयचेय खेळीक लागून अशी परत परत उप्रासपी परिस्थिती निर्माण करप शक्य आसता, तो गडो ती खेळी दाखोवन बरोबरीच्या डावाखातीर ती खेळी करपाआदीं दावो करूंक शकता. आ) जे खेळीक लागून डावांत परत परत तीच परिस्थिती उत्पन्न जाल्या, अशे खेळीक प्रत्युत्तर दिवपी गडो बरोबरीचो दावो करूंक शकता. पूण ताणें खेळी करपापयलीं दावो करूंक जाय. जर खंयच्याय गड्याची वयल्या 'अ' उपविभागांत केल्ली मागणी बरोबर नासत आनी डाव फुडें सुरू उरत जाल्यार मात बरोबरीची मागणी करपी गड्याक निर्देशित खेळीच करची पडटा. जर कोणाय गड्यान बरोबरीच्या डावाखातीर (अ) आनी (आ) हातूंत सांगिल्ले प्रमाण दावो करिनासतना खेळी केली, जाल्यार ताचो बरोबरी मागपाचो हक्क नश्ट जाता. पूण परत त्या गड्याची खेळी तशेच परिस्थितींत आयल्यार वा शक्य आशिल्ल्या वट्ट खेळयांचो आंकडो कायम उरल्यार बरोबरीचो दावो करतल्याच्या हक्काक बादा येना. ४) ज्या गड्याची खेळपाची पाळी आसा त्या गड्यान जर अशें सिध्द केलें, दोनूय गड्यांनी उण्यांत उण्यो पन्नास खेळयो मारामारी करिनासतना वा एकाय प्याद्याची खेळी करिनासतना केल्यात जाल्यार बरोबरी जाता. पन्नास खेळयांचो हो आंकडो पटावयल्या कांय खाशेल्या परिस्थितीवेळार वाडोवंक शकतात. पूण अशा वेळार वाडयल्लो आंकडो आनी ती खाशेली परिस्थिती डाव सुरू जावपाआदीं निश्चित केल्ली आसूंक जाय.

बुद्धीबळाचे डाव पुराय बरोवन दवरूं येतात. ह्यो खेळयो वर्णनात्मक आनी बैजिक अशा दोन पद्दतींनी बरयतात.

बुद्धीबळाचो डाव खेळटा आसतना दर एका खेळगड्याचो प्रत्यक्ष खेळां-वेळ दाखोवपाखातीर बुद्धीबळ-घड्याळ हें साधन वापरतात. संवसारीक बुद्धीबळ म्हासंघाच्या (F.I.D.E.) नेमांप्रमाण अधिकृत बुद्धीबळ खेळाचें सत्र (सॅशन) पांच वरांचें आसता आनी सोंपूक नाशिल्ले स्थगीत डाव दुसऱ्या दिसा फुडें खेळटात. पांच वरांच्या प्रमाण वेळांत दोनूय खेळगड्यांनी दर एकी उण्यांत उण्यो ४०-४० चाली करप गरजेचें आसता. तेन्ना दर एका खेळगड्याक आपल्या अडेज वरांमदीं चाळीस चाली करप गरजेचें आसता. जर एका खेळगड्यान ताच्या थारायल्ल्या वेळांत ह्यो ४० चाली केल्योनात जाल्यार तो डाव हारता.

**भारतांतलें बुद्धीबळ** : आंतरराश्ट्रीय बुद्धीबळ भारतांत ब्रिटीश लोकांनी हाडलें. भारतांत राश्ट्रीय पातळे वयली बुद्धीबळ सर्त सगळ्यांत पयलीं 'जॉली' क्लबान पुण्याक १९२१ त घडोवन हाडिल्ली. भारतांत बुद्धीबळाचें राश्ट्रीय पांवड्यार नियंत्रण करपी 'ऑल इंडिया चॅस फेडरेशन' ही संस्था १९५० च्या सुमाराक स्थापन जाली. संवसारीक बुद्धीबळ महासंघाकडेन ती संलग्र आसा.

राश्ट्रीय जैतीवंत थारिल्ल्या बुद्धीबळपटूंत ह्या खेळगड्यांचो आस्पाव जाताः रामचंद्र सप्रे आनी डी. व्यंकय्या (१९५५), रामदास गुप्ता (१९५७), मॅन्युअल एरन (१९५९, १९६१, १९६९, १९७१, १९७३, १९७४, १९७६, १९८०), फरूक अली (१९६३), रुसी मदन (१९६५), नसीर अली (१९६७), राजा रविशेखर (१९७५, १९७९), रफीक खान (१९७७) आनी प्रवीण ठिपसे (१९८१). बायलांच्या गटांत जैतिवंत थारिल्ल्या बुद्धीबळ पटूंत वासंती, जयश्री आनी रोहिणी खाडिलकर ह्या तीन भयणींचो उल्लेख म्हत्वाचो आसा.

संवसारीक बुद्धीबळ सर्तींत भारताक जैतिवंत करपी मीर सुलतान खान हाणें १९२९, १९३३ ह्या वर्सा राश्ट्रीय पांवड्यार आनी आंतरराश्ट्रीय मळार जैत जोडलें.

तेउपरांत सुमार २८ वर्सांच्या काळाउपरांत भारतीय बुद्धीबळपटाच्या मळार परत विक्रम घडूंक लागले. मॅन्युअल एरन हाणें आशिया ऑस्ट्रेलिया विभागीय अंतीम सर्तींत(१९६१-६२) 'इंटरनॅशनल मास्टर' हो किताब मेळयलो. तशेंच व्ही. रविकुमार हाणें आशियाई कुमार सर्तींत १९७८ 'इंटरनॅशनल मास्टर' हो किताब मेळयलो, तेभायर 'आशियाई मास्टर चेस सर्किट' सर्तींत टी. एन. परमेश्वरन, राजा रविशेखर, प्रवीण ठिपसे, कुमार दिव्येंदू बारूआ हांणी तोखणायेची कामगिरी केली. जयश्री खाडिलकर आशियाई विभागीय महिला सर्तींत (१९७८) आंतरराश्ट्रीय 'वुमन मास्टर' हो किताब मेळयलो. रोहिणी खाडिलकरान पयल्या ॲक्युमॅक्स आशियाई बायलां सर्तींत जैत मेळयलें. तिका 'आशियाईची राणी', ही पदवी आनी 'इंदिरा गांधी' फिरती ढाल मेळ्ळी.

**संवसारीक बुद्धीबळ महासंघः** 'फेडरेशन इंटरनॅशनल डी. इ. चेस' (एफ. आय. डी. ई फिडे) हे संस्थेची स्थापना २० जुलय १९२४ त पॅरिसांत जाली. सुमार ११० देश ह्या म्हासंघाचे वांगडी आसात. ही संस्था जे सामने आयोजीत करता ते अशेः १) दर वर्साआड ऑलिंपियाड सामने (२) दर तीन वर्सांनी विभागीय (झोनल), आंतरविभागीय (इंटरझोनल), आव्हानवीर (कँडिडेट) सामने, संवसारीक अजिंक्यपद सामने. अशेच सामने बायलांखातीरय आयोजीत करप जातात. ३) संवसारीक तरणाटे वा कनिश्ठ अजिंक्यपद सामने. (४) १७ वर्सां सकयल संवसारीक कुमारगट सामने. (५) संवसारीक २५ वर्सां सकयल तरणाटे संघ अजिंक्यपद सामने. फिडे ही संस्था-ग्रँड मास्टर, इंटरनॅशनल मास्टर, फीडे मास्टर आनी इंटरनॅशनल जज्ज ह्यो पदव्यो दिता.

**एलो गुणवत्ता मापन पद्दत** : हातूंत खेळगड्याचें बळगें तुळात्मक

नदरेन पळोवप जाता. ही पद्दत त्या त्या खेळगड्याच्या जाल्ल्या सर्तींच्या निकालाचेर अवलंबून आसता. हे सर्तींत वाटो घेवपी ताच्या प्रतिस्पर्ध्याच्या बळार तशेंच ताच्या आड तांणी वट्ट जिखिल्ल्या, हारिल्ल्या आनी बरोबरीच्या डावाच्या गुणांचें गणित करून एलो गुणवत्ता श्रेणी दितात.

हे पद्दतीक आपर्द एलो ह्याय नांवान वळखतात. फीडे दर वर्सा १ जानेवारीक आंतरराश्ट्रीय गुणवर्गवारी यादी (रेटिंग लिस्ट) उजवाडायता. हे यादीचो उपेग वेगवेगळ्या थरांवयल्यो आंतरराश्ट्रीय बुद्धीबळ सर्ती आयोजीत करपाखातीर करतात. सगळ्या आंतरराश्ट्रीय क्रियाशील बुद्धीबळ पटूंक गुणवर्गवारी आसप गरजेचें आसा.

सादारणपणान खेळण्यांतली तांक पळोवपाखातीर अशी गुणवर्गवारी थरयतातः

| पदवी | एलो गुणवर्गवारी प्रमाण. |
|---|---|
| आंतरराश्ट्रीय बायल 'मास्टर' | २१५० |
| राश्ट्रीय मास्टर | २२०० |
| आंतरराश्ट्रीय बायल 'ग्रँडमास्टर | २२५० |
| फीडे मास्टर | २२५० |
| आंतरराश्ट्रीय मास्टर | २३५० |
| आंतरराश्ट्रीय ग्रँडमास्टर | २४५०+ |
| संवसारीक जैतिवंत कँडिडेट | २६०० |
| संवसारीक अजिंक्यपद क्लास | २६५० वयर. |

२६०० वयर गुणवर्गवारी आशिल्ले बुद्धीबळपटू अशे : कार्पोव्ह (२७००), कॉर्चनॉय (२६९५), हुबनेर (२६४०), कास्पोरोव्ह (२६३०), स्पास्की (२६३०), टिम्मन (२६३०), पोर्टिश (२६२०), बेलीआव्हस्की (२६१५), मेकींग (२६१५), लार्सन (२६१०), पोलुगाव्हस्की (२६१०) आनी अँडरसन (२६१०), रॉबर्ट फिस्कर (२७८५) , जेरी काश्पारोव्ह (२८०५).

**संवसारीक बुद्धीबळ सर्त** : संवसारीक बुद्धीबळाच्या जैताचो इतिहास तीन खंडांनी वांटला. अठराव्या शतमानाच्या मध्यासावन म्हळयार आर्विल्ल्या बुद्धीबळाचो खेळ नेमबध्द जायत सावन ते एकोणिसाव्या शतमानाचे निमाणेमेरेन पयलो कालखंड मानतात. ह्या काळांत जायत्या खेळगड्यांक संवसारीक मान्यता मेळ्ळी. ह्या काळांतले नामनेचे खेळगडे अशे : फीलीदॉर आनी ला बूरदॉने (फ्रान्स), स्टॉन्टन (इंग्लंड), मॉर्फी (अमेरिका) आनी ॲडरसन (जर्मनी).

दुसऱ्या काळाची सुरवात १८८६ वर्सा सावन सुरू जाली. ह्या काळांत फीडेची स्थापणूक जावंक नाशिल्ली. ह्या काळांत संवसारीक बुद्धीबळपटू आपले प्रतिस्पर्धी स्वताच वेंचून काडटाले. अर्थीक चेपण, जनमताचो कौल आनी स्वताची महत्वाकांक्षा हांकांलागून ह्यो सर्ती परत परत जाय नासल्यो. ह्या काळांतले संवसारीक जैतिवंत खेळगडे अशेः विल्हेल्म श्टाइनिट्स (ऑस्ट्रिया), इमॅन्युअल लास्कर (जर्मनी), जुजे कापाब्लांका (क्युबा), अलेक्झांडर अल्येख्यिन (रशिया आनी फ्रांस), यवे (हॉलंड).

बुद्धीबळाचो तिसरो कालखंड फीडेच्या वावरान व्यापिल्लो आसा. फीडे प्रणालीप्रमाण १९४८ ते १९८५ ह्या काळांतले नामनेचे खेळगडे अशेः मिखेल बोटविनीक (रशिया), व्हेसिली स्मायस्लॉव्ह (रशिया), मिखेल ताल (रशिया), टायग्रन पेत्रोशियन (रशिया), बोरिस स्पास्की (रशिया), रोबर्ट फिशर (रशिया) ॲनाटोलीय कार्पोव्ह (रशिया), गॅरी काश्पारोव्ह (रशिया), विश्वनाथ आनंद (भारत).

संवसारीक वस्तादपण जिखपी बायलां बुद्धीबळपटू अशीं : विरा मँचीक (ग्रॅट ब्रिटन), ल्युडमिला रयुडॅन्को (रशिया), येलिझेविटा बीकोव्हा (रशिया), ऑल्गा रयुबत्सो वा (रशिया), नोना गॅप्रीनॅडशविली (रशिया), माया चिबुरडॅनायझ (रशिया), शेय ज्यून (चीन).

- कों. वि. सं. मं.

**बुरखो पद्दत** : परक्या दादल्याचे नदरेक पडचें न्हय म्हणून बायलांनी आपल्या मुखामळासयत सगळें शरीर धांपून घेवपाचे पद्दतीक बुरखो पद्दत अशें म्हण्टात. हे पद्दतीक 'पड्डो पद्दत' वा 'गोषा' अशोय संज्ञा आसात. अनवळखी दादल्यामुखार, भौशिक सुवातींनी वा घरांतल्या जाणट्या लोकांमुखार बुरखो घेवपाची चाल आसा. विंगड विंगड समाजांनी हे पद्दतीचीं कारणां आनी स्वरूप हातूंत वेगळेंपण दिश्टी पडटा.

चड करून मुसलमान समाजांत ही पद्दत आर्विल्ल्या काळांतूय प्रचलीत आसा. मध्ययुगीन काळांत हिंदू समाजांतल्या उच्च कुळांतल्यो आनी राजघराण्यांतल्यो बायलो आपलें मुखामळ परक्या दादल्यामुखार धांपून घेताल्यो अशे उल्लेख मेळटात. पूण हाचेवयल्यान ह्या समाजांत ही बुरख्याची पद्दत सर्रास चालू आशिल्ली अशें म्हणपाक मेळना. भारतीय हिंदूंभितर ही पद्दत नासली तरी घरांतल्या जाणट्या मनशांमुखार तांकां आदर दाखोवपाखातीर बायलांनी तोंडाचेर पदर ओडपाची पद्दत आयज लेगीत परंपरीक कुटुंबांनी दिसता. संस्कृत वाङमयांत विनयशील बायलो बुरखो घेताल्यो असो उल्लेख मेळटा. मुसलमान धर्मांतल्यो चालीरिती आनी मुसलमान राज्यकर्त्यांचीं आक्रमणां हांकां लागून हिंदू समाजांत ही बुरखो पद्दत सुरू जाली.पूण हे पद्दतीची पुर्णावस्था मात इस्लाम धर्मियांतूच पळोवंक मेळटा. इस्लाम धर्मियांनी ही पद्दत तांच्या पयलींच्या यहुदी समाजाकडल्यान घेतली आनी तिका धर्मीक अधिश्ठान मेळोवन दिलें अशें मानतात.

भारता भाशेन असीरिया, पर्शिया, ग्रीस ह्याय देशांनी ही पद्दत

आशिल्ली. थंय लेगीत बायलांक एकांतवासांत आनी बुरख्याखाला दवरप जातालें. मुसलमान समाजांत आनी इस्लामी राश्ट्रांनी बुरखो पद्दतीचें समर्थन करून ही पद्दत गरजेची मानप जालें. आपल्या सुंदर बायलांची, चलयांची, भयणींची जैतीवंत आक्रमकांच्या पापी नदरांपसून राखण जावंची म्हणून ही चाल मुसलमान समाजाचो एक म्हत्वाचो घटक जाली. बायलांनी माथ्यासकट तोंड धापून घेवपाची आज्ञा कुराणांत दिल्या. तांकां वळखुपाखातीर किदेंय तरी कुरू थरोवंची अशेंय कुराणांत म्हळां. बायलो आनी दादले हांचेभितर कसलेंच आकर्शण निर्माण जावंचें न्हय म्हणून बुरखो पद्दत गरजेची आसा असो मुसलमानांचो समज जायत गेलो. आर्विल्ल्या काळांत लेगीत कांय प्रमाणांत कुराणाचो आदार घेवन ही पद्दत पाळटात.

तुर्कस्तानांत केमाल आतातुर्क हाचे आज्ञेवयल्यान १९२६ वर्सा, इराणांत १९३५ वर्सा आनी अफगाणिस्तानांत १९५९ वर्सा ही पद्दत बंद केली. इंडोनेशियांत ही पद्दत नाशिल्लीच. पाकिस्तानांत हेविशीं धर्माचो पगडो खर आसा पूण खूब यत्नांनी ही पद्दत अडाणी आनी सकयल्या थरावयल्या बायलांपुरतीच मर्यादीत उरल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**बुरूंडी :** उदेंत आफ्रिकेंतलें प्रजासत्ताक राश्ट्र. क्षेत्रफळ २७,८३४ चौ. किमी. लोकसंख्या ५८,००,०००. विस्तार २°३०' दक्षिण ते ४°३०' दक्षिण आनी २९° उदेंत ते ३१° उदेंत रेखांश. बुरूंडीचे उत्तरेक ऱ्वांडा, अस्तंतेक झाईरे, आग्नेयेक टांझानिया आनी नैर्ऋत्येक टांगानिका तळें आसा. बुजुंबुरा ही देशाची राजधानी.

**भूंयवर्णन :** देशाचो चडसो भूंयप्रदेश सड्यावयलो, दोंगरी आनी कँब्रियनाआदल्या काळांतल्या खडपांचो आसा. नायल न्हंय आनी काँगो न्हंय हांचे मदल्यान गेल्ली दोंगरावळ दक्षिण-उत्तरेक पातळिल्ली आसा. ह्या ओळींक लागून उंचायेवयलो दोंगरी प्रदेश आनी उदेंत अस्तंतेकडचो सड्याचो प्रदेश अशे देशाचे मुखेल दोन वांटे जातात. उत्तरेकडचो दोंगरी वाठार चड उंचायेचो (सु. २,७६०मी.) आसा. हो दोंगरी वाठार मुखार ऱ्वांडांतल्या ज्वालामुखी पर्वतांक जोडिल्लो आसा. देशांतल्या सड्यावयल्या प्रदेशाची सरासरी उंचाय १,५२४मी. आसा. ईशान्य आनी आग्नेयेकडच्या कागेरा आनी मालागारासी न्हंयांच्या देगणांनी हो सड्याचो प्रदेश (सु. १,३७०मी.) येता. नैर्ऋत्य आनी अस्तंत शिमेदेगांनी आशिल्लें टांगानिका तळें आनी झीझी न्हंयेच्या देगणांचे प्रदेश उणे उंचायेचे (९००मी.) आसात. रुझीझी, आकार्यारू कागेरा रुव्हिरोंझा, रुव्हूव्हू, लुम्पुंगू मालागारासी ह्यो न्हंयो म्हत्वाच्यो आसात.

**हवामान :** हांगाचें हवामान सादारणपणान उश्ण कटिबंधीय आसलें तरी चड उंचायेवयल्या वाठारांनी तें समशीतोश्ण आसता. हो देश विषुववृत्ताक लागीं आशिल्ल्यान हांगा दर वर्सा दोन सुके आनी दोन दमट आनी वलसाणीचे ऋतू आसतात. चड उंचायेवयल्या वाठारांनी वर्सुकी पावस सु. १३७.५ सेंमी. आसता. नैर्ऋत्य वाठारांत आनी टांगानिका तळयाच्या देगांतल्या वाठारांनी तो १००सेंमी. परस उणो पडटा. मे ते ऑगस्ट मेरेन हवामान सुकें आसता. पावस नेमान पडनाशिल्ल्यान हांगा दुकळूय बरेच फावटीं पडटात. सड्यावयल्या प्रदेशांतलें सरासरी तापमान २०° से. आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** दोंगरांच्या देंवत्यांनी दाट रानां आसात. सड्याच्या प्रदेशांत साव्हाना तणाचीं खूब मळां आसात. निलगिरी, बाभूळ, तेलमाड हे हांगाचे म्हत्वाचे रूख. हांगाच्या रानांनी हत्ती, शींव, बिबटे, उदकांतले घोडे, रानरेडे, हरणां, रानदुकर आनी हेर मोनजात मेळटा.

**इतिहास :** मध्य-उदेंत आफ्रिकेच्या महासरोवरांच्या प्रदेशांत सु. चवदाव्या शेंकड्यांत बुगांडा, बुन्यारो, अंकोली, टांझानियांतली बुहा आनी ऱ्वांडा हीं जीं खूब जमातिंचीं राज्यां अस्तित्वांत आशिल्लीं. तांच्यांतलेंच बुरूंडी हें एक आशिल्लें. ह्यो जमाती हेर देशांतल्यान आयिल्ल्यो आनी तांणी थळाव्या लोकांक आपल्या शेकातळा दवरिल्ले.. 'ट्वा' हे पिग्मी लोक बुरूंडींतले थळावे लोक. 'हुतू' हे बांतू लोक आसून ते शादनायजर प्रदेशांतल्यान येवन तांणी इ.स. दुसऱ्या शेंकड्यांत मध्य आनी उदेंत आफ्रिकेंत आपलो राबितो केल्लो अशें मानतात. शेतवड हो तांचो मुखेल वेवसाय आशिल्लो. 'तूत्सी' हे ऊंच, झुजाऱ्यांभाशेन दिसपी लोक नायल देगणांतल्यान वा इथिओपियेंतल्यान आयिल्ले लोक. 'तूत्सी' हे बुरुंडींत पंदराव्या ते अठराव्या शेंकड्या मेरेन पावले. तुत्सी लोकांनी हूतू आनी हेर जमातींच्या लोकांक आपल्या शेकातळा दवरले. बुरूंडींत राजकीय आनी अर्थीक सत्ता गन्वा वर्गाच्या हातांत आशिल्ली. हो वर्ग म्हळयार तुत्सी जमातींतलो सत्ता चलोवपी वर्ग.

ब्रिटीश समन्वेशक (explorer) रिचर्ड बर्टन आनी जॉन स्पीक हांणी १८५८ त पयलीं बुरुंडीचो सोद लायलो. १८९४ त जर्मन संशोधक ह्या प्रदेशांत पावले आनी बुरूंडी ह्या प्रदेशाचो आस्पाव शेजारच्या ऱ्वांडावांगडा जर्मन उदेंत आफ्रिकेंत केलो. त्या काळांत बुरूंडींत बेझी आनी बाटारे ह्या दोन पंगडांमदीं संघर्श निर्माण जाल्लो. पूण १९१५ त बेझी पंगडाच्या राजाक राज्यपद मेळ्ळें. पयल्या म्हाझुजा उपरांत बुरुंडी आनी ऱ्वांडा हे प्रदेश राश्ट्रसंघाचे महादिश्ट म्हणून जाहीर केले. हांचें प्रशासन ऱ्वांडा- उरुंडी ह्या नांवान बेल्जियमाकडेन सोंपयलें. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या शेवटाक ऱ्वांडा- उरुंडी हो भाग संयुक्त राश्ट्रांचो विश्वस्त प्रदेश म्हणून जाहीर करून परत ताचें प्रशासन बेल्जियमाकडेन सोंपयलें. १९५९ त पयलेच फावट बुरुंडींत 'अपरोना' (नॅशनल युनिटी अँड प्रोग्रेस पार्टी) आनी 'पीडीसी' (क्रिश्चन डॅमॉक्रॅटिक पार्टी) हे दोन राजकीय पक्ष निर्माण जाले. १८ सप्टेंबर १९६१ त एकवटीत राश्ट्रांचे देखरेखीखाला घेतिल्ले वेचणुकेंत 'अपरोना' पक्षान ६४ जाग्यांतले ५८ जागे जिखले.

ह्या पक्षाचो राजपूत लुईश खागासोरे हाका प्रधानमंत्री म्हणून घोशीत केलो. पूण एका म्हयन्याभितर ताचो खून जालो. १ जुलय १९६२ दिसा बुरुंडीक स्वातंत्र्य मेळ्ळे उपरांत विरोधी पक्षाच्या कांय वांगड्यांचो खुनांत हात आशिल्ल्यान तांकां गोळाक लायले. राजपूत लुईश हाच्या खुनाउपरांत अपरोना पक्षांत फूट पडली. १९६५ त घेतिल्ले वेंचणुकेंत हुतूंनी ३३तले २३ जागे हातासले. पूण १३ सप्टेंबर १९६५ दिसा बेझी पंगडांतल्या (तुत्सी) लिओपोल्ड बिहा हाका प्रधानमंत्री म्हणून नेमलो. पूण राश्ट्रीय संसदेंत भोवमत आशिल्ल्या हुतूंक हें सोंसलेंना. १८ ऑक्टोबर दिसा हुतू लश्करी सैनिकांनी उठाव करून सत्ता हातासपाचो यत्न केलो आनी हुतू शेतकामत्यांनी पुराय देशांत गोंदळ घालून हजारांनी तुत्सींची कत्तल केली. पूण कॅप्टन मायकल मिकोम्बेरो हाणें राज्य सैनिकांच्या आदारान हो उठाव मोडून उडयलो. मुखार चवथ्या म्वाम्बत्सान मार्च १९६६ त सगळी सत्ता आपल्या चल्याच्या म्हळयार चार्ल्स एण्डिझेये हाच्या हातांत दिली. राजपूत चार्ल्स हाणें जुलय म्हयन्यांत कॅप्टन मिकोम्बेरोक प्रधानमंत्री नेमलो. पूण चार्ल्स आनी मिकोम्बरो हांचें केन्नाच पटलेंना. २८ नोव्हेंबर १९६६ दिसा मिकोम्बेरोन राजपूत चार्ल्स हांचें राजपद काडून घेवन बुरूंडी हें प्रजासत्ताक आनी आपूण ताचो अध्यक्ष अशें जाहीर केलें. मिकोबेरोन चार्ल्सचें राज्यपद काडून घेतिल्ल्यान राजशायेचो अंत जावन राजकारणांतली थिराय सोंपली. हुतू अधिकाऱ्यांक आनी हेर राजकारणी लोकांक ल्हानसान कारणांवयल्यान धांवडावन घातिल्ल्यान पुराय सत्ता तुत्सींच्याच हातांत गेली. चडशीं अधिकारपदां तुत्सींच्याच हातांत आशिल्लीं. तुत्सी लोकांचे सतावणेक लागून १९७२ मेरेन बुरूंडींतल्या साबार हुतूंनी टांझानिया, झाईरे आनी वांडांत आलाशिरो घेतिल्लो. नोव्हेंबर १९७४ त अध्यक्षीय वेंचणुकेंत मायकल मिकोम्बेरो हो परतून बुरुंडी प्रजासत्ताकाचो अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो, पूण दोन वर्सांनी (नोव्हेंबर १९७६त) झां-बातिश्त ब्रागांझा ह्या लश्कराच्या उपमुखेल्यान सैन्याच्या आदारान क्रांती करून मिकोम्बेरोचें सरकार मोडून उडोवन आपल्याक बुरूंडी प्रजासत्ताकाचो आनी सर्वोच्च क्रांतिकारी परिशदेचो अध्यक्ष म्हणून जाहीर केलें. बुरूंडी प्रजासत्ताकाचें राज्य १९८१ च्या संविधानाप्रमाण चलता. सर्वोच्च लश्करी परिशद ३० वांगड्यांची आनी परिशदेची कार्यकारी समिती ११ वांगड्यांची आसून ह्या दोनूय घरांचो मुखेली राश्ट्राध्यक्ष आसता.

**अर्थीक स्थिती :** बुरूंडी हो संवसारांतलो एक फाटसारिल्लो देश आसून अर्थीक परिस्थिती शेतकी पिकावळीचेर आदारीत आसा. सु. ८५% लोक शेतकी वेवसायांत गुंथिल्ले आसात. घेवडो, कसावा, मको, कणंगां, भूंयमूग, वाटाणे, ज्वारी हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं पिकां आसात. केळीं, आंबे, पोपायो, संत्रां आनी हेर फळांचेंय उत्पादन ह्या देशांत कांय प्रमाणांत जाता. काफी हें हांगाचें मुखेल नगदी पीक आसून तातूंत ९३% अरेबिका कॉफी आसता. कापूस आनी तांदूळ हांचें उत्पादन वाडोवपाखातीर इंबो पठारावयली पडींग जमीन लागवडीखाला हाडपाचे यत्न 'संयुक्त राष्ट्र विकास कार्यक्रम' आनी 'फावो' (FAO) हांच्या अर्थीक आदारान चालू आसा. पशुपालन हो परंपरेन चलत आयिल्लो म्हत्वाचो वेवसाय. टांगानिका तळयांत ल्हान प्रमाणार नुस्तेमारी उद्देग चलता. बॅस्टनासायट आनी कॅसीटॅरायट ह्या खनिजांचें उण्या प्रमाणांत उत्पादन कारोंगो मायनिंग कंपनी करता. भांगर आनी कोलंबायट-टॅटॅलायट हांचें उत्पादन साप उण्या प्रमाणांत जाता. रुझीझी देगणांत खनीज तेल मेळटा. कापूस, काफी, च्या ह्या शेतकी पिकांचेर प्रक्रिया करपी उद्देगांखेरीज देशांत व्हडा प्रमाणांत उद्देगीकरण जावंक ना. हांगा लुगट, शिमीट आनी शिमिटापसून घडटल्या वस्तूंचे तशेंच चपलां, शाबू हांच्या उत्पादनांचे कारखाने आसात.

**येरादारी आनी संचारण :** बुरूंडींत १९८२ मेरेन रेल्वे मार्ग नाशिल्ले. पूण देशांत रस्त्यांचें व्हडा प्रमाणांत जाळें आसा. टांगानिका तळयांतलें बुजुंबुरा हें देशांतलें म्हत्वाचें बंदर. 'ॲर बुरूंडी' ही १९७१ वर्सा स्थापणूक केल्ली सरकारी विमान कंपनी. ती किगाली (र्वांडा), किमोगा, बुकाव आनी गोमा ह्या शारांनी हवाई येरादारीची सोय करता. ॲर झाईरे, ॲर फ्रान्स, कॅमेरून ॲरलायन्स, ॲर टांझानिया ह्यो परदेशी विमान कंपनी बुजुंबुरा हवाई येरादारीची सोय करतात. हांगा फकत एक दिसाळें उजवाडाक येता.

**लोक आनी समाजजीण :** बुरूंडी लोकसंख्येची वंशीक पंगडांची रचणूक १९८५ मेरेन, ८४% हुतू, १५% तुत्सी आनी १% ट्वा अशी आशिल्ली. हुतू हे बांटू लोक आसून ते मुळांत शाद नायजर वाठारांतल्यान आयिल्ले अशें मानतात. शेतवड हो तांचो मुखेल वेवसाय. तुत्सी हे ऊंच लोक बुरूंडींत पंदराव्या ते अठराव्या शेंकड्यांभितर आयले. गोरवां पोसप हो तांचो मुखेल वेवसाय. पयलीं खंय ते रानांनी रावताले. पूण आतां तुत्सी हे लोक अर्थीक आनी राजकीय सत्तांचेर आपलो शेक गाजयतात. किरुंडी आनी फ्रेंच ह्यो हांगाच्यो अधिकृत भासो. स्वाहिली भाशाय कांय वाठारांनी उलयतात. बुजुंबुरा ही देशाची राजधानी तशेंच म्हत्वाचें बंदर. गिटेगा शार म्हत्वाचें.

- कों. वि. सं. मं.

**बुरूड :** कर्नाटकांतली आनी महाराष्ट्रांतली एक जात. ह्या लोकांक मेडर, घांचे वा घाचे आनी बांसफोड अशींय नांवां आसात.

ह्या लोकांचे बुरूड वा मराठी उलोवपी बुरूड आनी मेडर वा लिंगायत आनी कन्नड भास उलोवपी बुरूड अशे मुखेल भेद आसात. हांचेमदीं रोटी-बेटी वेव्हार जायनात. मराठी भाशीक बुरूड मुळांत मराठा आशिल्ले अशें ते मानतात. सात अंत्यज जातींभितर बुरूड ही एक जात अशें मनून म्हळां. मराठा बुरूडांचीं कुळां आनी आडनांवां एकूच आसून,

एकाच आडनांवांभितर लग्नां जायनात. भोवरे, चिंचवले, जगताप, खैरे, डुकरे,गाढवे, गायकवाड, घोरपडे, मोहिते हीं बुरूड लोकांचीं कांय आडनांवां. दर एका आडनांवाक स्वतंत्र देवक आसता.

**आडनांवां :** लिंगायत बुरूड लोकांभितर डुकरे, गाडे, गंधे, घोरपडे, हाटगे, होले अशीं आडनांवां आसात. एकाच आडनांवाभितर लग्नां जायनात. हे लोक महादेव, तुळजापूरची देवी आनी खंडोबा ह्या देवांक भजतात. तीन दीस सुयेर पाळटात.

**देवधर्म :** मराठा बुरूड लोक खंडोबा, जोतिबा, भैरोबा, भवानी, राम, मारुती, विठोबा ह्या देवांक भजतात. मंगळारा, शुक्रारा, आयतारा ते खंडोबाक आनी भवानीक बोकडो बळी दितात. बुरूड लोक पितरांच्यो प्रतिमा करून त्यो पुजतात.

बुरूड लोकांभितर मामेभयणीकडेन लग्न जांव येता. चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. दोनूय पक्षांची अर्थीक परिस्थिती बरी आसल्यार, चलयेचो बापूय हुंडो दिता. उरफाटें, चल्याचो बापूय गरीब आसलो वा चल्याभितर कसलोय दोश आसल्यार चल्याचो बापूय चलयेच्या बापायक देज दिता. ब्राह्मण लग्नाचो म्हूर्त काडून दिता आनी लग्नांत पुरयतपण करता. पत्रिकापुजन, पिंजर लावप, हळद लावप हे सगळे सुरवातीचे विधी आसतात. हळदी उपरांत तिसऱ्या वा पांचव्या दिसा लग्न जाता. त्या दिसा सकाळीं देवक बसयतात, बोकडो कापतात आनी जातींतल्या सगळ्या लोकांक जेवण घालतात. सांज वेळार न्हवरो मिरवणुकीन व्हंकलेगेर वता. थंय वचून तो माटवांत तांदळान भरिल्ल्या पाटल्यांत उबो रावता. ताचे सामकार व्हंकल उबी रावता. दोगांय मदीं अंतरपाट धरून मंगलाश्टकां म्हण्टात आनी तांचेर अक्षता उडयतात. उपरांत कन्यादान, कांकण बांदप, हे विधी जातकच लग्नहोम जाता. त्या वेळार न्हवरो, व्हंकलेक हांडीर घेवन अग्नीभोंवतणीं तीन प्रदक्षिणां घालता.

ह्या लोकांमदीं विधवा विवाह पद्दत आसा. उमास सोडून हेर खंयच्याय पक्षांतले रातीचें हें लग्न करतात. तेन्ना ह्या लग्नाक पुरयत आनी विधवाच उपस्थित आसतात. पुरयत व्हंकलेच्या कपलाक कुकूम लायता आनी उपरांत गणपती आनी वरूण हांची पुजा करता. उपरांत व्हंकलेची हों‍ट भरतात आनी व्हंकल-न्हवऱ्याच्या वस्त्रांक गांठ मारतात. ताणी घरांतल्या देवांक नमस्कार करतकच तांच्या पदराची गांठ सोडयतात.

कन्नड उलोवपी बुरूड लोकांच्यो चालीरिती मराठा बुरूडांपरस मात्सयो वेगळयो आसात. बसवण्णा, हनुमान, उदचम्मा, देवम्मा आनी येल्लम्मा ह्यो तांच्यो कुलदेवता आसून, हुलसिंग्रई हो तांचो मुखेल देव. आश्विन शुध्द नमीक आनी लग्ना उपरांत ते देवांक बोकडो बळी दितात. मोहरमाच्या निमाण्या दिसा ते गृहदेवतांक मटण आनी सोरो हांचो निवेद्य दाखयतात. तांच्या लग्नाचें पुरयतपण ब्राह्मणान वेंचून काडिल्ली कोणूय सवायशीण करता. व्हंकलेच्या गळयांत तिणें मंगळसूत्र बांदप हो लग्नांतलो मुखेल विधी आसता.

हे लोक मडें पुरतात वा लासतात. पुरतना मेल्ल्या मनशाक उदेंते वटेन तोंड करून बसयतात. तिसऱ्या दिसा मेल्ल्याचो उत्तराधिकारी गायचें शेण, गायचें मूत, तीन ल्हान मडकीं, तीन भाकऱ्यो आनी तीन पिठाचे गुळे घेवन मसंडेंत वता. वतना अर्दे वाटेर, जंय मडें सकयल दवरिल्लें आसता. थंय तो एक मडकें, भाकरी आनी पिठाचो गुळो दवरता. उपरांत मडें पुरिल्ल्या जाग्यार गायचें मूत आनी शेणाचो शिताडो घालून थंय उरिल्लीं मडकीं आनी भाकऱ्यो दवरता. उपरांत घरा येतकच मरणाक उपस्थित आशिल्ल्या सगळ्या लोकांक जेवण घालतात.

मडें लाशिल्लें आसल्यार मेल्ल्या मनशाचो उत्तराधिकारी धाव्या दिसा न्हंयेचेर वचून थंय तीन मडकीं, तांचेर भाकऱ्यो आनी शिताचो पींड दवरता आनी हळदुव्या रंगाचे तीन बावटे लायता. तातूंतल्या एका पिंडाक कावळयान आफुडटकच तो घरा येता. धा दीस सुतक पाळटात. बाराव्या वा तेराव्या दिसा जातींतल्या लोकांक जेवण घालतात. वर्सुकी श्राध्द करपाचीय तांचेमदीं चाल आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## बुर्ये, जयवंत वैकुंठ नाथ : (जल्म : १७ नोव्हेंबर १९३५, अस्नोडें-बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें विद्यालयीन पांवड्यामेरेन शिक्षण घेतलें. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आसलो. सुटकेझुजारी सुधाताई जोशी हिच्या फुडारपणाखाल म्हापशेंच्या मारूती देवळाकडेन जो सत्याग्रह जाल्लो तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## बुलबूल : ह्या सुकण्याचो पिक्नोटिडी ह्या सुकण्याकुळांत आस्पाव जाता. ताचें शास्त्रीय नांव पिक्नोनोटस कॅफर. भारत, श्रीलंका आनी मियानमार आदी वाठारांनी हें सुकणें दिश्टी पडटा. पुराय भारतांत १२२० मी. उंचायेमेरेनच्या वाठारांत तें दिसता. आकारमान आनी रंग हांच्या साद्या फरकावयल्यान बुलबुलाच्यो सात-आठ प्रजाती केल्यात. हें सुकणें चिमणेपरसूय व्हड आनी साळुंकेपरस ल्हान आसून ताची लांबाय २०सेंमी. आसता. ताची तकली आनी गळयाचो रंग तिकतिकीत काळो आसून पुराय शरीर आनी पांखां पुडीकोराचीं आसतात. पांखां, फाट आनी हड्डें हांचेवयल्या पिसांच्यो कडो धव्यो आसतात. पोटाकडलो

आनी फाटीचो फाटलो भाग धवो, शेंपडी काळसार पुडीकोराची, शेंपडेच्या पोंतार किरमिजी रंगाचो दाग आसता. चोंच आनी पांय काळे आसतात. नर आनी मादी दिसपाक सारकींच दिसतात.

दाट रानांत, मनशाची वसणूक आसा थंय वा घरा भोंवतणच्या पोरसांत हें सुकणें दिसता. हें झाडार रावता आनी तांचीं सदांच जोडपीं आसतात. हाची वृत्ती सदांच आनंदीत आसता. हें सहज तरेन मनशाळटा देखून ताका पोसतात. हें झगडेकार आनी नेटान झुजपी आशिल्ल्यान कांय लोक तांचीं झुजां लावन ताचेर पयसो मेळयतात.

फळां, फुलांतलें म्होंव आनी किडी हें ताचें भक्ष्य. वडाचीं आनी पिंपळाचीं पिकिल्लीं तांबडीं फळां खावपाखातीर त्या झाडाचेर तांचे थवे दिश्टी पडटात. हांचो प्रजोत्पादनाचो काळ चड करून फेब्रुवारी ते मे मेरेन आसता. वेगवेगळ्या वाठारांनी ह्या काळांत मातशे बदल आसतात. हांचो घोंटेर वाटयेवरी आसून तो चड करून दाट झोपांमदीं वा झाडांचेर ऊंच जाग्यार आसता. मादी गुलाबी धव्या रंगाचीं दोन वा तीन तांतयां घालता. घोंटेर बांदप, तांतयां उबोवप आनी पिलांक खाण लावप हीं कामां नर आनी मादी दोगांय करतात.

- कों. वि. सं. मं.

## बूखनर, एदूआर्त : (जल्म : २० मे १८६०, म्युनिक - जर्मनी; मरण : १३ ऑगस्ट १९१७, फॉकशानी-रुमानिया).

जर्मन रसायनशास्त्रज्ञ. ताचें पदवी मेरेनचें शिक्षण म्युनिकाक जालें. कांय काळ नोकरी करतकच ताणें आदोल्फ फोन बेयर हाच्या हातासकयल कार्बनी रसायनशास्त्राचें संशोधन केलें. डायाझो ॲसिटिक आम्लाच्या विक्रियांविशींय ताणें संशोधन केलें. कार्ल फोन नेअगेली हाच्या हातासकयल साकरेच्या आल्कोहॉली किण्वनाचेर (Fermentation) संशोधन करून ते विशींचो पयलो संशोधनपर लेख बरयलो (१८८५). हें संशोधन पुराय जातकच १८८८ त ताका डॉक्टरेट मेळ्ळी. फुडलीं पांच वर्सां बेअर हाच्या मार्गदर्शना सकयल ताणें किण्वनाविशीं संशोधन केलें. कोलांत रसायनशास्त्राचो (१८९५), ह्युबिंगेनांत वैश्लेशिक वखदी रसायनशास्त्राचो (१८९६), बर्लिनच्या कृषी म्हाविद्यालयांत (१८९८), ब्रॅस्लौ (१९०९) आनी वुर्ट्सबर्ग (१९११) विद्यापिठांत रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून ताणें काम केलें. १९१४ त ताणें कॅप्टन म्हणून जर्मन सैन्यांत प्रवेश केलो आनी १९१६ त तो मेजर जालो.

किण्वन कशें घडोवप हाचेविशीं वेगवेगळीं मतां प्रचलीत आशिल्लीं. बूखनर हाणें यिस्ट, बारीक रेंव आनी कीसेलगूर ही माती हांची भरसण खाशेले तरेन दळ्ळी. ताका लागून यिस्टाची एकूय कोशिका आसा तशी उरलिना. उपरांत ताणें हो रोस गाळून रेंव आनी कोशिकांचे अवशेश वेगळे काडले. उरिल्ल्या द्रव पदार्थांत साकर उडयतकच तिचें किण्वन जाल्ल्याचें नदरेक आयलें. ताचेवयल्यान किण्वनाखातीर यिस्टाच्या जित्या कोशिकांची गरज नाशिल्ल्याचें समजलें. जित्या कोशिकांच्या चयापचयावरवीं (metabolism) जावपी enzyme नांवाच्या जीवविरयत रसायनीक द्रव्याक लागून किण्वन जाता हें समजलें. यिस्ट कोशिकांसावन Zymase हें एझायम काडूं येता हें ताणें सोदून काडलें (१९०३), किण्वनाविशींच्या संशोधनाचो ताचो म्हत्वाचो प्रबंध १८९७ त उजवाडाक आयलो. साकरेच्या किण्वनाचें खरें कारण यिस्टांतल्या एन्झायमाची क्रिया हें आसून खुद्द यिस्ट कोशिका हें ना, हें दाखोवन दिल्ल्याच्या म्हत्वाच्या वावराखातीर ताका १९०७ वर्साचो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## बूट : (पळेयात पांयतणां).

## बूतेनांत, आदोल्फ फीड्रीख योहान : (जल्म : २४ मार्च १९०३, ब्रेमर हेवेन - लेहे जर्मनी, मरण : ?).

जर्मन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण मारबुर्ख आनी गटिंगेन विद्यापिठांत जालें (१९२१-२७). आदोल्फ विण्डाउस हाच्या मार्गदर्शनाखाल रोटेनॉन ह्या कीटकनाशकाचेर संशोधन करून ताणें पीएच्. डी. मेळयली (१९२७). १९३० त तो गटिंगेन विद्यापिठांतल्या कार्बनी आनी जीवरसायनीक प्रयोगशाळेचो मुखेल जालो. १९३३ त तो कार्बनी रसायनशास्त्रीय इन्स्टिट्यूटांत (इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजी, डॅनझिंग) सहप्राध्यापक जालो. १९३५ त तो रॉकफॅलर प्रतिश्ठानाच्या आपोवण्यावयल्यान अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां आनी कॅनडांत गेल्लो. कायसर विल्हॅल्म इन्स्टिट्युटाचो आनी १९४९ उपरांतच्या माक्स प्लांक इन्स्टिट्यूट ऑफ बायोकॅमिस्ट्रीचो तो संचालक आशिल्लो (१९३६-६०). १९६० त माक्स प्लांक सोसायटी फॉर द ॲडवान्समेंट ऑफ सायन्सचो अध्यक्ष म्हणून ताची निवड जाली आनी १९७२ तो हेच सोसायटीचो मानसेवी अध्यक्ष जालो. बर्लिन विद्यापिठांत मानसेवी प्राध्यापक (१९३६-४५), तशेंच ट्यूबिंगेन (१९४५-५६) आनी म्यूनिक (१९५६) विद्यापिठांत शरीरक्रियाविज्ञानीक रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणुनूय ताणें काम केलां.

बायलेच्या गर्भाशयाचे वाडीक आनी मासिक स्त्राव वेळच्या वेळार जावपाक कारण आसपी इस्ट्रोन हें स्त्रीलिंगी हार्मोन बूतेमांत हाणें गुरवार बायलांच्या मुतापसून स्फटीक रुपांत स्वतंत्रपणान मेळयलें (१९२९). ह्या स्त्रीलिंगी हार्मोनाप्रमाणूच दादल्याचे लैंगिक वाडीक कारण आसपी हॉर्मोन दादल्याच्या मुतापसून मेळूंक जाय हे कल्पनेन ताणें संशोधन

केलें आनी १७,५०० लिटर मुतापसून १५ मिलिग्राम इतलें अँड्रोस्टॅरॉन हें दादलोलिंगी हार्मोन मेळयलें (१९३१). बायलांच्या जननचक्रांत म्हत्वाचें कार्य करपी प्रोजेस्टॅरॉन हें हार्मोन ताणें १९३१ त वेगळें केलें आनी १९३४ त तें शुध्द रुपांत मेळयलें. ताणें ह्या तिनूय हॉर्मोनांचे रसायनीक रचणुकेचो अभ्यास केलो. ह्या तिगांयचेय एकामेकांकडेन आशिल्ले लागींचे संबंद आनी स्टॅरॉयडांतली तांची सुवात ताणें सोदून काडली. बूतानांत हाच्या ह्या संशोधनाक लागून वखदांक उपेगी अशे म्हत्वाचे पदार्थ तयार करप शक्य जालें.

एकेकलें 'जीन' हें खाशेल्या एन्झायमांच्या जैव संश्लेशणाक कारण आसता हें ताणें स्वंतत्रपणान दाखोवन दिलें. तेखातीर ताणें किडीच्या दोळयांतल्या रंगद्रव्याचें जैव संश्लेशण हें खाशेल्या जिनांक लागून कशें जाता तें सोदून काडलें. १९५३ त बुतेनांत आनी पीटर कार्लसन हांकां किडींतलें पयलें स्फटीक रुपी हॉर्मोन वेगळें करपाक यश आयलें. हें हॉर्मोन कॉलेस्टॅरॉलाचें अनुजात आसून तें वयल्या लिंग-हॉर्मोनांकडेन संबंदीत आशिल्ल्याचें दिसलां. १९५९ त बुतेनांत आनी ई. हेकर हांकां बाँबिक्स मोरी ह्या रेशमा किड्याचे मादयेपसून 'बाँबिकॉल' हें फॅरोमोन वेगळें करपाक यश आयलें आनी तेन्नासावन फॅरोमोनांच्या संशोधनाक सुरवात जाली.

लिंग हॉर्मोनांविशींच्या संशोधनाखातीर ताका आनी पॉलिमिथिलीन आनी उच्च टर्पिनांविशींच्या संशोधनाखातीर लेओपोल्त रुझीच्का हाका १९३९ वर्साचो रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो. पूण नाझी सरकारान बूतेनांत हाका तो पुरस्कार घेवंक मनाय केली. देखून बूतेनांत हाणें तो दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत घेतलो. बुतेनांत हाका आनिकूय कितलेशेच पुरस्कार फावो जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बूमरँग :** कांय ऑस्ट्रेलियन आदिवासी जमातींमदीं प्रचलीत आशिल्लें हातान मोखून मारपाचें अस्त्र. शिकारेखातीर वा झुजाखातीर बूमरँगच्या प्रकाराप्रमाण ताचो उपेग करतात. घट्ट लाकडापसून हें यंत्र तयार करतात. हें अस्त्र विळो आनी खुरपो हांच्या आकाराचें आसता. तरी हातूंत हेर प्रकारारूय रूढ आसात. सादारणपणान ह्या अस्त्राचो एक भाग वाटकुळो आनी दुसरो सपाट आसून मुखावयलो भाग धारदार आसता. ह्या अस्त्राच्या पात्याची घडण वाऱ्यागतीच्या शास्त्राच्या सिध्दांता प्रमाण आसून ताचें पातें चेपटें आसता. पात्याच्या तोंकाकडल्यो दोनूय कुशी एके पातळेर आसनात. तातूंत ९०° ते १८०° चो कोन आसता आनी पुराय पात्याची वट्ट लांबाय सुमार ३०$^{१}/_{२}$ ते ९१$^{४}/_{१०}$ सेंमी. इतली आसता. पुर्विल्ल्या काळांत आदिवासी जमातींनी बूमरँगच्या बडयांचो उपेग जातालो. त्या मारपाच्या बडयांचें प्रगत रूप म्हळ्यार बूमरँग आसून चक्र हें बूमरँगाचें प्रगत रूप आसतलें अशें मानतात.

ऑस्ट्रेलियांत बूमरँगाचे दोन प्रकार आसात. मोख सादून परत येवपी आनी परत ना येवपी. ऑस्ट्रेलियाच्या उदेंत अस्तंतेकडल्या आदीम जमातींत परत येवपी बूमरँगाचो उपेग रूढ आसा. तूरुवाल जमातींत ह्या



१ २ ३ ४

बूमरँगाचे कांय प्रकार : (१) आनी (२) मारतकच परत येवपी ऑस्ट्रेलीयन बूमरँग, (३) मारतकच परत न येवपी दक्षिण भारतीय बूमरँग, भारत (४) अॅरिझोनातली होपी इंडियनांची सशे मारपाची बडी.

अस्त्राचो सगळयांत चड उपेग जाता. परत येवपी बूमरँग हें ल्हव, बारीक आनी समतोल आसता. तें सुमार १२ ते ३० इंच (सुमार ३० ते ७६ सेंमी. लांब) १$^{१}/_{२}$-३ इंच, (सुमार ३.८१ ते ७.६२ सेंमी. रूंद) सुमार ०.४७६ ते ०.९५२ दाट आनी सुमार ३४० ग्राम वजनाचें आसता. ताच्या पात्याच्या दोनूय वटांनी विमानाच्या पंख्याच्या पात्याप्रमाण २° ते ३° पीळ दवरिल्लो आसता. लक्ष्याक मोख जायना जाल्यार पिळाच्या अभिकेंद्रीत वाऱ्याच्या दाबाखातीर बूमरँग मारतल्याच्या म्हऱ्यांत येवन पडटा. कांय खांपे मनिसूच बूमरँगाचो पल्लो ९१ मीटर मेरेन दवरूंक शकतात. परत ना येवपी बूमरँग हे सवथळ वाटकुळया आकाराचें आसता. ह्या अस्त्रान जिवांक पंगू करतात वा मारतात.

ल्हान बूमरँग (सुमार ३० ते ७६ सेंमी.) लांब आसता. हाचो वापर खेळपाखातीर करतात. झुजा वेळार वापरपाचें बूमरँग सुमार ६१ ते ९१.४ सेंमी. लांब आसता. ह्या बूमरँगान खर मार बसूं येता वा मरणूय येवंक शकता.

बळ आनी कलेचो वापर करून बूमरँग मारपाचें आसता. बूमरँग मारपाक पयलीं थोडें धांवत वचून मागीर तें शेंवटुपाक मेळटा. शेंवटितना तें आपल्या खांद्यार एके विशिश्ट पद्दतींत दवरून उपरांत जलद गतीन सोडचें पडटा. हें अस्त्र उडयतकच ताची एक वट भुंयेर आपटल्यार तें भयंकर गतीन हवेंत ऊंच वता. उपरांत तें सुमार ४५ मीटर वा चड पयस वचून वाटकुळें गरगरीत घुंवता आनी मारप्याच्या लागसार येवन भुंयेर पडटा.

पुर्विल्ल्या काळांत ह्या अस्त्राचो उपेग इजिप्त, इथिओपिया, आफ्रिका,

उत्तर अमेरिका, कॅलिफोर्निया, ॲरिझोना, मध्य अश्मयुगीन युरोप आनी दक्षिण भारत आदी देशांनी जातालो. आर्विल्ल्या काळांत दक्षिण भारतांतल्यो कांय आदिवासी जमाती सोंशे, सवणीं हांची शिकार करपाखातीर ह्या अस्त्राचो उपेग करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बूर्झ्वा, लिआँ व्हिक्तॉर ऑगस्त :** (जल्म : २९ मे १८५१, पॅरीस; मरण : २९ सप्टेंबर १९२५, एपेअर्ने - पॅरीस).

फ्रांसाचो प्रधानमंत्री (१८९५-९६) आनी शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो जैतीवंत. कायद्याचें शिक्षण घेवन तो सनदी सेवेंत रुजू जालो (१८७६). तेउपरांत कांय वर्सांनीच तो सिन प्रांतांतलो पोलीस मुखेल (प्रिफॅक्ट) जालो (१८८७). फुडें तो संसदेचेर वेंचून आयलो (१८८८) आनी वेगवेगळ्या खात्यांचो मंत्री म्हणुनूय ताणें काम केलें. १ नोव्हेंबर १८९५-२१ एप्रिल १८९६ ह्या काळांत तो प्रधानमंत्री आशिल्लो. फुडें तो नव्यान उदयाक आयिल्ल्या रॅडिकल पक्षाचो अध्यक्ष जालो आनी सिनेटाचो अध्यक्ष जावपाचोय मान ताका मेळ्ळो (१९२०-२३). ताणें आपल्या प्रधानमंत्री पदाचे कारकिर्दींत आयकर, निवृत्ती वेतन, समाजीक सुरक्षा, विमो येवजण ह्या गजालींविशीं पुरोगामी धोरणाचो पुरस्कार केलो.

द हेगांतल्या दोनूय संवसारीक शांतताय परिशदांनी (१८९९ आनी १९०७) ताणें फ्रान्साचें प्रतिनिधित्व केलें आनी आंतरराश्ट्रीय सहकार्याचो पुरस्कार केलो. १९०३ त ताची द हेगांत आंतरराश्ट्रीय लवादाचो स्थायी वांगडी म्हणून नेमणूक जाली. ॲल्वासिरस (स्पेन)चे परिशदेंत फुडाकार घेवन ताणें मोरोक्कोच्या स्वातंत्र्याविशींचो करारनामो घडोवन हाडलो (१९०६).

राश्ट्रसंघाच्या आद्य पुरस्कर्त्यांमदलो तो एक अशें मानतात. राश्ट्रसंघाच्या जाहीरनाम्याचो मसुदोय ताणेंच तयार केल्लो आनी फुडें राश्ट्रसंघांत फ्रांसेझ प्रतिनिधी मंडळाचें फुडारपण करपाचो मानूय ताकाच मेळ्ळो. फ्रांस आनी हेर युरोपी राश्ट्रां हातूंत समजिकाय निर्माण जावंची हाचेखातीर ताणें उपाट यत्न केले. फ्रांसाच्या शासनान राश्ट्रसंघांतले समितीचें अध्यक्षपद ताका दिलें. १९१९ त पॅरीसांत भरिल्ले शांतताय परिशदेंतूय ताणें फ्रांसाचें प्रतिनिधित्व केलें आनी संवसारीक शांततायेचो पुरस्कार केलो. ताच्या ह्या मोलादीक वावराखातीर १९२० वर्साचो शांततायेखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार ताका फावो जालो. भलायकी इबाडिल्लान ताणें १९२३ त राश्ट्रसंघांतल्या आपल्या पदाचो राजिनामो दिलो.

'Solidarite' (१८९६) हो ताचो उल्लेख करपासारको ग्रंथ. ह्या ग्रंथांत ताणें भांडवलशायेंतलो आत्यंतिक व्यक्तीवाद आनी समाजवादांतलो आत्यंतिक समश्टीवाद हातूंतलो मध्यमवर्ग म्हणून वर्गीय एकात्मतेचें समर्थन केलें. आंतरराश्ट्रीय संघटनांचे निर्णय चालीक लावंचे म्हणून एक आंतरराश्ट्रीय सेनादल आसचें अशी सुचोवणी ताणें केल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**बृहत्कथा :** एक पुर्विल्लो कथांझेलो. हो ग्रंथ गुणाढ्य नांवाच्या एका पंडितान बरयल्लो. ताणें हो ग्रंथ मुळांत पैशाची भाशेंत रचलो. ह्या ग्रंथांत सात विद्याधरांच्यो व्हड कथा आनी तांकां संबंदीत हेर उपकथा आशिल्ल्यो असो उल्लेख मेळटा. पूण सद्या हो ग्रंथ मूळ स्वरुपांत उपलब्ध ना. कथासरित्सागर आनी बृहत्कथामंजरी अशे ह्या ग्रंथाचे दोन संस्कृत अणकार मात आसात.

गुणाढ्य ह्या पंडिताक वैदिक परंपरेचो खूब अभिमान आशिल्लो. अशें आसतना ताणें आपल्या कथांक धर्मीक फाटभूंय दिनासतना त्या कथांचें लौकीक स्वरूप कायम दवरलें.

- कों. वि. सं. मं.

**बृहद्‌भारत :** वेपार, धर्मप्रसार, राज्यविस्तार ह्या निमतान इ. स. दुसऱ्या शतमानासावन इ. स. तेराव्या शतमानाच्या मजगतीं भारतीय राजांनी अती उदेंतेकडल्या देशांनी खास करून आग्नेय आशियेंत वसणुको आनी राज्यां स्थापन करून भारतीय संस्कृतायेचो प्रसार आनी प्रचार केलो. ह्या विस्तारकार्यांत भारतीय सागरी वेपारी वर्गान म्हत्वाचो वावर केलो. हे भारतीय संस्कृतायेच्या प्रभावाखाला आशिल्ल्या देशांचो उल्लेख बृहद्‌भारत वा बृहत्तर भारत ह्या नांवान करतात. बृहद्‌भारताचो पुर्विल्लो इतिहास पुर्विल्लीं स्मारकां, उत्खननाचे पुरावे, शिलालेख, तांब्यापटे हांचेवयल्यान समजता.

**राजकीय इतिहास :** अती उदेंतेकडल्या भारतीय वसणुकांविशीं चीनी इतिहासावयल्यान म्हायती मेळटा. जावा, सुमात्रा आनी मलाया हांचेकडेन खूब पुर्विल्ल्या काळांत भारताचो संबंद आयिल्लो आसूंक जाय, कारण पुराणांत मलाया जुंव्यांचो भांगरा जुंवे म्हणून उल्लेख सांपडटा. बोर्निओविशीं निश्चीत म्हायती मेळ्ळी तरी थंयची संस्कृताय मात भारतीय आसा.

इंडोनेशिया म्हळ्यारूच भारतीयांच्या जावा आनी सुमात्रांतले संस्कृतायेचो प्रदेश. जावांतल्या जिविताचें एकूय आंग अशें ना, जाचेर भारतीय संस्कार जालेनात. उदेंत जावांत हिंदू राजा आशिल्ले. मातारामचो राजा बलितुंग हो शैवपंथी आशिल्लो. ताणें इ. स. ९१० मेरेन राज्य केलें. दक्षोत्तम तुलोदोंग आनी निमाणचो राजा ववा हांणी हिंदू संस्कृतायेची परतून स्थापना करून कितलींशींच देवळां बांदलीं. मातारामाचें राज्य इतिहासजमा जातकच इ.स. ९२९ सावन मध्य जावांतल्या राजांनी

(सिंडोक) उदेंत गांवांत सत्ता प्रस्थापीत केली. कितल्याशाच बायलांनी जावांत राज्य केल्ल्याचीं उदाहरणां सांपडटात. धर्मवंश नांवाच्या वंशजान जावांतल्या कायद्याक फावो तें वेवस्थीत स्वरूप हाडलें. तो खूब पराक्रमी आशिल्लो. ताणें श्रीविजयच्या शैलेंद्र राज्याचेर घुरी घाली. ताचो जांवय ऐरल्लंग हाणें इ. स. १०३० मेरेन आपली सत्ता सगळ्या दिकांनी वाडयली. ताचे मुस्तींत वेपार, साहित्य आनी कला ह्या मळांचेर खूब उदरगत जाली. ताणें आपल्या राज्याची पंजलू वा केडिरी आनी जंग्गल अशा दोन प्रांतांमदीं वांटणी केली. केडिरीचें राज्य बळिश्ट आशिल्लें. तातूंत १० पोटराज्यां आशिल्लीं. केडिरींत कामेश्वर, जयभय आनी कृतजय अशे बळिश्ट आनी कलांक उत्तेजन दिवपी राजा जावन गेले. केन अंगरोख हाणें केडिरीच्या निमाण्या राजाचेर हार घालून सिंधसारीचें राज्य स्थापन केलें. सिंधसारी ही राजधानी आशिल्ली. अंगरोख राजान राजस हें नांव धारण करून पुराय उदेंत जावाचेर आपलो शेक बसयलो आनी जंग्गल आनी केडिरीचीं राज्यां परत एकठांय केलीं. ह्या राज्यांत अनूशपती, तोहजय आनी जय विष्णूवर्धन हे राजा जावन गेले. कृतनागर हो सिंधसारीचो निमाणो राजा आशिल्लो. तो खूब म्हत्वाकांक्षी आशिल्लो. चीनाच्या कुबलायखानाक तोंड दिवपाखातीर ताणें आपली सत्ता बळिश्ट केली. चीनाचें सैन्य आनी केडिरी आनी सिंधसारी हांचेमदीं बरींच झुजां जालीं आनी निमाणें कृतनागरचो जांवय राजपूत विजय हाणें चीनी सैन्याचेर हार घालून मजपहित राज्य स्थापन केलें. हें जावांतलें सगळयांत व्हडलें हिंदू राज्य. कृतराजसचे मुस्तींत राज्यांत शांतताय आशिल्ली. ते उपरांत गजमद (मजपहितचो मुखेलमंत्री) हो एक साम्राज्यवादी राजा जालो. ताणें मजपहितचें राज्य हालींच्या इंडोनेशिया आनी मलाया हातूंतल्या बऱ्याच व्हड भूभागांचेर प्रस्थापित केलें. ताणें मजपहिताक साम्राज्य मेळोवन दिलें. जावाच्या राजकीय इतिहासांत ह्याम बुरूक हाचे मुस्तींत इ.स. १३५० त बुबतचो रक्तपात जालो. गजमदान सूंदाच्या राजाक आनी ताच्या लव्याजम्याक कपटान जिवेशीं मारलो. गजमदाची भितरल्या कारभाराचेर घट्ट पकड आशिल्ली. शेतकाम, रस्तेदुरुस्ती, कर वसुली हीं सगळीं कामां वेवस्थीत जातालीं. सैन्याची वेवस्था चोख आशिल्ली. मजपहिताचें व्हडपण म्हळयार गजमदाचें व्हडपण आशिल्लें. इ.स. १४४७ त मजपहित राज्याचो शेवट जालो. ह्याच सुमाराक हांगा इस्लाम धर्माचो प्रसार सुरू जालो.

सुमात्रांत सातव्या शतमानांत वेपारी साम्राज्य तयार जालें. हांगा श्रीविजय (सद्याचें पालेंबांग) हें बळिश्ट राज्य जावन गेलें. भारत आनी चीन हांचेमदल्या वेपारी दळणवळणाच्या मार्गावयली ही म्हत्वाची सुवात आशिल्ल्यान श्रीविजय राज्यान वेपारी क्षेत्रांत वर्चस्व स्थापून अस्तंत-जावा मलायू जिखलें. प्रांतांचेर प्रांताधिकारी नेमले. बंडाळी करतल्यांक शासन केलें. हे राजा बौध्द धर्मीय आशिल्ले. श्रीविजय हें मलायाच्या द्वीपकल्पांतलें राजकीयच न्हय जाल्यार संस्कृतीक केंद्र जाल्लें. ह्याच सुमाराक मध्य जावांतल्या शैलेंद्र आनी श्रीविजयाचो राजा ह्यो दोनूय सत्ता धर्मसेतू उपरांत एक जाल्यो. तांणी चंपा आनी कुंबजचेर शेक प्रस्थापीत केलो. शैलेंद्र राजांनी श्रीलंकेचेरूय घुरी घाल्ली.

मलायांतल्या राज्याची स्थापणूक पयल्या शतमानांतूच जाल्ली आसूंक फावो. चवथ्या-पांचव्या शतमानांत तक्कोलासारकीं राज्यां जावन गेलीं. तांचे आनी फूनानचे संस्कृतीक संबंद आशिल्ले. सातव्या शतमानासावन बाराव्या शतमानामेरेन मलाया हें श्रीविजय घराण्याच्या शेकातळा आशिल्लें. तेराव्या शतमानांत सायामाच्या थाई घराण्यान आपलें वर्चस्व प्रस्थापित केलें.

चीनी इतिहासकारांनी उल्लेख केल्लें पाली म्हळयार बाली. सव्या-सातव्या शेंकड्यांतलो बालीचो इतिहास खबर ना. तेउपरांतच्या इतिहासाविशीं तांब्यापट्यावयल्यान म्हायती मेळटा. हांगा उग्रसेन, श्रीकेसरीवर्मदेव, धर्मवंश, उदयन, महेंद्रदत्ताराणी आनी धर्मोदयवर्मन् हे राजा जावन गेले. बाराव्या शेंकड्यांत श्री शूराधिप आनी श्रीजयशक्ती ह्या दोन राजांचो उल्लेख मेळटा. बालीन जावांतले बंडाळीचो आनी कुब्लायखानाच्या आक्रमाणचो फायदो घेवन स्वातंत्र्याची घोशणा केली. फुडें सुमार पन्नास वर्सां बाली स्वतंत्र आशिल्लो. जावांतली प्रजा बालींत येवन स्थायिक जाली. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत हॉलंडी लोकांनी बाली जिखून घेतलें.

**फूनान** : भारतीय संस्कृतायेचो पयलो आविश्कार फूनान ह्या इंडोचायनांतल्या भागांत जालो. फूनानाचें राज्य इसवी सनाच्या पयल्या शेंकड्यांत कौण्डिण्य नांवाच्या एका भारतीय ब्राह्मणान स्थापन केल्लें. ताणें नागकन्या सोमा हिचेकडेन लग्न जावन नव्या वंशाची स्थापना केली. ताच्या एका वंशजान ९० वर्सांचो जायमेरेन राज्य केलें. हेउपरांत बान-बान, फान-ची-मान हे पराक्रमी राजा जाले. तांणी धा राज्यांचेर आक्रमण करून सत्ता वाडयली. नावीक दळाची उदरगत केली आनी सगळयांक मांडलीक केले. मेकाँग-दोन्नाओी दोआब आनी कामरांगचो उपसागर हे वाठार ताच्याच राज्यांत आशिल्ले. ताणें सायाम, कंबोडिया आनी मलायाचो कांय भाग जिखिल्लो.

फान-ची मॉन उपरांत फान चँग ह्या ताच्या सेनापतीन २५ वर्सां (इ.स. २२५ ते २५०) राज्य केलें. ताणें आपले वकील भारतांत धाडिल्ले. उपरांतच्या फान-सिऊनाच्या दरबारांत चीनांतल्यान वकील आयिल्ले. फूनानच्या सगळ्या शारांक कोट आशिल्ले. शारांत राजवाडे ग्रंथालयां आशिल्लीं. फान-सिऊन हाणें इ.स. २८७ मेरेन राज्य केलें. ताणें चंपाचो राजा फान सीऊंग हाचेकडेन समजिकाय करून टाँकिन ह्या चिनी प्रांताचेर घुरी घाली. उपरांतचो ७५ वर्सांचो फूनानाचो उल्लेख सांपडना.

उपरांत चंदन हाचो उल्लेख मेळटा. ताणें चीनाक वकील धाडिल्ले. चवथ्या शतमानांत कौण्डिण्य नांवाचो दुसरो एक ब्राह्मण, पयल्या

कौण्डिण्याप्रमाणूच 'ईश्वरी संकेत' मेळिल्ल्यान फुनानाक येता, अशी एक दंतकथा प्रचलीत आसा. फूनानाचे लोक हाका राजा करतात. हे दुसरे वसणुकेन फूनानाक पुराय भारतीय करून उडयलें. हे उपरांतच्या राजांचीं नांवां पुराय भारतीय सांपडटात. इंद्रवर्मन हाणें चीनी बादशाहाकडेन वकील धाडिल्ले. हेउपरांतचो दुसरो राजा जयवर्मन, हाचें नांव संस्कृत शिलालेखांत सांपडटा. हाणें इ.स. ४८४ ते ५१४ मेरेन राज्य केलें. फूनानांतल्या चेन्नला राज्याचे मांडलीक राजा बळिश्ट जाल्ल्यान तांचे मुखार फूनानची सत्ता तग धरूंक शकलिना. दंतकथेप्रमाण कंबुज राज्याचो संस्थापक कंबू स्वयंभू हो आर्यदेशाचो (भारत) राजा आशिल्लो आनी कंबोडियाक तो जीव दिवपाच्या हेतान गेल्लो. थंय एका नागराजान ताका जीव दिवपासावन परावृत्त करून आपले धुवेकडेन ताचें लग्न लायलें. ह्या दोगांनीय नवो वंश स्थापन केलो.

कंबोडियाचो संस्थापक कौण्डिण्य चेन्नलाचे गादयेचेर पयलीं आयिल्ल्या भववर्मनाचे कारकिर्दीत राज्याच्यो शिमो वाडूंक लागल्यो. हे उपरांत महेंद्रवर्मन आनी ईशवर्मन हांणी अस्तंतेकडेन राज्य वाडयलें. वायव्य कंबुजांतल्या चक्रकंपुरा, अमोघपुरा आनी भीमपुरा ह्या तीन प्रदेशांनी आनी द्वारावतीमेरेन आपली सत्ता प्रस्थापीत केली. हे उपरांत पयलो जयवर्मन हाणें ४० वर्सां राज्य केलें. हाणें लाओसाचो बरोचसो भाग जिखून घेतलो. ताच्या मरणाउपरांत एक शतमानभर असंतोश मातलो. चेन-लाचीं दोन वेगवेगळीं राज्यां जालीं. दक्षिण चेन-लाचेर श्रीविजयाच्या राजान धुरी घाली.

दुसरो जयवर्मन ८०२ त राज्याचेर येतकच ताणें चेन-लाच्या राज्याची विस्कटिल्ली घडी नीट केली. इंद्रपूर ही ताची राजधानी आशिल्ली. ताणें हरिहरालय हें नगर वसयलें. हे उपरांत तिसरो जयवर्मन आनी यशोवर्मन हे म्हत्वाचे राजा जाले. पांचवो जयवर्मन हाणें बांटी श्रीचें सुंदर देवूळ बांदलें. दुसऱ्या सूर्यवर्मनान अंकारेबातची अमर कलाकृती निर्माण केली. ख्मेर काळांतल्या वैभवाचें हें अमर यादस्तीक जावन रावलां. ह्याच काळांत चंपा आनी कंबुज हांचे संबंद इबाडले. कंबुजाच्या राजांनी सत्ता बळिश्ट करून चंपाचेर हार घाली. पंदराव्या शतमानांत सायामाच्या थायी लोकांचें आक्रमण सुरू जातकच ह्या राज्याचो ऱ्हास जालो.

**श्रीविजय आनी शैलेंद्र** : फूनान सोंपतकच आग्नेय आशियांत राजकीय पोकळी निर्माण जाली. फूनानावांगडा फूनानाचें नाविक दळूय नश्ट जालें आनी एक वेपारी साम्राज्य कोसळ्ळें. हो उणाव सुमात्रांत सातव्या शतमानांत श्रीविजयच्या साम्राज्यान भरून काडलो. श्रीविजय म्हळ्यार सुमात्रांतलें पालेंबांग. भारतांत वतना लागपी मलायू हो श्रीविजयाचोच एक वांटो आशिल्लो. श्रीविजयान भारत आनी चीन ह्या दोनूय देशांकडेन इश्टागतीचे संबंद दवरले आनी ह्या दोनांयच्या येरादारीच्या मार्गावयली म्हत्वाची सुवात आशिल्ल्यान वेपाराच्या मळार आपलें वर्चस्व स्थापन केलें. श्रीविजयाचो पयलो उल्लेख चवथ्या शतमानांत सांपडटा. सातव्या शतमानाचे अखेरेमेरेन श्रीविजयान अस्तंत जावाचो कांय भाग जिखून घेतलो. ताच्या आक्रमक धोरणाक लागून सुमात्रा आनी बंका हे प्रदेश ताच्या शेकातळा आयिल्ले.

श्रीविजय हें मलाया द्वीपकल्पांतलें संस्कृतीक केंद्र आशिल्लें. हांगा महायान पंथाचो आनी तंत्रयान बौध्द धर्माचो प्रसार जालो. भारतीय समुद्र आनी चीनी समुद्र हांचेमदलो वेपार हस्तगत करपाचो श्रीविजयचो हेत आशिल्लो. श्रीविजयाचे वाडटे इत्सेचो पयलो बळी मलायू थरलो. आठव्या शतमानांत श्रीविजयाच्या ह्या राजकुंवरान चीनी बादशहाक दोन मोटवे मनीस, एक खाप्री नाचपीण, कांय वादक आनी पोपट दिल्ल्याचो उल्लेख आसा. निमाणची वकिलात इ. स. ७४२ त चीनांत गेल्ली. श्रीविजयान आपणायिल्लें चडायेचें धोरण यशस्वी जालें आनी एका शतमानांतूच हें राज्य खूब पातळ्ळें. सुमात्रा, बंका आनी अस्तंत जावाचो कांय भाग ह्या राज्यांत त्या वेळार आशिल्लो. श्रीविजयचो हो उत्कर्शाचो काळ आशिल्लो.

श्रीविजयाचें अधिराज्य मलायाच्या दोनूय सामुद्रधुनींनी आनी अस्तंत जावांत पातळिल्लें. त्या वेळार मध्य जावांत शैलेंद्राचें राज्य आशिल्लें. श्रीविजय आनी शैलेंद्र हांचेमदीं इश्टागतीचे संबंद आशिल्ले. लिगोरच्या फातरापट्यांतले दुसरे वटेन शैलेंद्राचो उल्लेख आसा, पूण श्रीविजयाचो ना. हातुंतूच ह्या दोगांनीय एकठांय येवन इंडोचायना आदी सुवातींनी आक्रमण केल्ल्याचो उल्लेख आसा. ह्यो दोनूय सत्ता एकठांय येवन तांणी आपलें अधिराज्य कंबुज आनी चंपा हांचेर कांय काळ मेरेन प्रस्थापित केलें. लिगोराच्या शिलालेखांत शैलेंद्र राजाची तुळा सूर्य, मदन, विष्णु हांचेकडेन केल्या. श्रीविजयाचो म्हाराज शैलेंद्र वंशाचो आसा अशें म्हळां. शैलेंद्र कोण आशिल्लो, हाचेविशीं एकमत ना. कांय फातरापट्यांतल्या उल्लेखांप्रमाण शैलेंद्र म्हळ्यार दोंगरांचे राजा अशें मानतात. ते कलिंगांतल्यान जावांत गेले आसूंक जाय. कारण दक्षिण भारतांतले पांड्य राजा स्वताक 'मिनांकित' शैलेंद्र म्हणटाले. उदेंतेचे गंग राजा, शैलोद्भव आनी शैल राजे हे सगळे शैलेंद्र आसूंक जाय. केडूच्या फातरापट्यांत संजय राजाचो आनी ते उपरांतच्या आठ राजांचो उल्लेख आसा. तांणी इ .स. ८७९ मेरेन राज्य केलें. हेउपरांत शैलेंद्रांची सत्ता मध्य जावांत दिसना. संजयाच्या घराण्यांतले राजा उदेंत जावांत गेल्ले. हें शैलेंद्र घराणें फुडें श्रीविजयचें घराणें जालें.

श्रीविजयाचो राजा धर्मसेतू हाच्या मरणाउपरांत ताचो नातू बालपुत्र हो श्रीविजयाचो राजा जालो. बालपुत्राच्या काळासावन श्रीविजयाचेर शैलेंद्र राजा राज्य करूंक लागले.

शैलेंद्राच्या काळांत श्रीविजयांत एक नवें युग सुरू जालें. ह्या काळांत नाट्यशास्त्र, काव्यशास्त्र, व्याकरण, ज्योतीश, पुराणां, स्थापत्य, शिल्प, हेर कला आनी शास्त्रांची उदरगत जाली. शैलेंद्रांनी आपलें नाविक

दळ बळिश्ट करून चंपा आनी कंबुजाचेर आक्रमण केलें. णवव्या शेंकड्याच्या मध्याक तांची सत्ता अस्ताक गेली. कंबुजच्या दुसऱ्या जयवर्मनान शैलेंद्र राजांची सत्ता परतायली. चीन आनी दक्षिण भारतांतल्या राजांकडेन शैलेंद्रांनी तोंड दिलें. ह्या राज्याचो उल्लेख अरब इतिहासकारांनी 'झाबग' असो केला. शैलेंद्रांचें साम्राज्य 'झाबग' हाचेर इ.स. १००० त चीनी लोकांनी घुरी घालून लूटमार केली.

धाव्या शेंकड्यांत श्रीविजयाचे बरेच वकील चीनाक गेले. इ. स. १००३ त शैलेंद्र राजांनी आपलो वकील चीनाक धाडिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. शैलेंद्र राजा श्रीविजयाचेर राज्य करीत आसतनाच इ.स. ९८८ त श्रीविजयच्या राज्याचेर गंडांतर आयलें. जावाचो राजा धर्मवंश हाणें श्रीविजयाचेर जैत मेळयलें. पूण ताचें हें यश तात्कालीक आशिल्लें. उपरांतच्या काळांत चूडामणिवर्मन, मार-विजयोतुंगवर्मन हे बळिश्ट राजा जावन गेले.

चूडामणिवर्मन मलायांत राज्य करता आसतना दक्षीण भारतांतलो चोल राजा राजराज (इ. स. ९८५ ते १०१८) हाचेकडेन ताचो संबंद आयलो. चुडामणिवर्मन, नागपट्टणांत एक बौध्द विहार बांदता आसतना चोल राजान ताका एक खेडें दान म्हणून दिलें. बिहाराचे बांदावळीचें काम चूडामणिवर्मनाचो पूत मार-विजयोतुंगवर्मन हाणें पुराय केलें. त्यावेळार राजेंद्र चोल हो राज्य करतालो. ह्या वेळामेरेन शैलेंद्र आनी चोल राजे हांचे संबंद इश्टागतीचे आशिल्ले. पूण फुडें हे संबंद इबाडले आनी राजेंद्र चोलान श्रीविजयाच्या शैलेंद्रांचेर घुरी घालून तांचेर जैत मेळयलें. ह्या नाविक आक्रमणाचो उल्लेख चोल तांब्यापटांत सांपडटा. राजेंद्र चोलान उदेंत सुमात्रा, मध्य आनी दक्षिण मलाया, कटाह आनी श्रीविजय इतलो सगळो वाठार हातासलो.

- कों. वि. सं. मं.

**बृहदारण्यकोपनिषद :** हें उपनिषद शुक्ल यजुर्वेदाच्या शतपथ ब्राह्मणाचो एक वांटो. सगळ्या उपनिषदांभितर हें विस्तारान व्हड आशिल्ल्यान हाका बृहत् अशें म्हळां आनी आरण्यकांत हाचो आस्पाव केल्ल्यान ताका 'बृहदारण्यकोपनिषद' अशें नांव मेळ्ळां. ह्या उपनिषदाचे स अध्याय आसून तीन कांडां आसात.

**मधुकांड :** हातूंत आत्मो आनी परमात्मो हांचो मेळ दाखोवन आत्मो सगळेकडेन कसो भरला हें स्वानुभवाच्या आदारान दाखयलां. हाका उपदेशकांड म्हण्टात.

**मुनिकांड :** हातूंत आत्मो आनी परमात्मो हांचो मेळ तर्काच्या आदारान दाखयला. हाका उपपत्तिकांड म्हण्टात.

**खिलकांड :** हातूंत आत्मो आनी परमात्मो हांचो मेळ अणभवाक येवपाखातीर गरजेचे अशे खूब मार्ग सांगल्यात. हाका उपासनाकांड म्हण्टात.

ह्या उपनिषदाचो शांतिमंत्र असो

*ॐ पूर्णमदः पूर्णमिदं पूर्णात्पूर्णमुदच्यते ।*
*पूर्णस्य पूर्णमादाय पूर्णमेवावशिष्यते ।।*

**अर्थ :** हें सच्चिदानंद घन परब्रह्म सगळया तरांनी परिपूर्ण आसा. हें जग त्या परब्रह्मापसून उत्पन्न जाल्लें आशिल्ल्यान तेंय पूर्ण आसा. पुराय ब्रह्मांतल्यान पुराय जग वेगळें काडल्यारूय तें पूर्णच उरता.

ह्या उपनिषदाच्या पयल्या अध्यायांत हिरण्यगर्भाक यज्ञीय पशू मानून ताचें वर्णन केलां. उपरांत मरणापसून संवसारांतल्या सगळ्या वस्तूंची कशी उत्पत्ती जाली तें सांगलां. मरण म्हळयारूच हिरण्यगर्भ. शरिराक जेप्रमाण जाणविकाय आसता तेचप्रमाण पुराय दृश्य विश्वाक व्यापून आसपी जाणविकायेक हिरण्यगर्भ अशी संज्ञा आसा. सोबीतकायेन नटिल्ल्या ह्या विश्वाचें मूळ हिरण्यगर्भांत म्हळयार मरणांत मेळटा. मरण म्हळयार विनाश म्हळयारूच वस्तूच्या नामरुपाचो अंत. नाम-रूप ना जातकच वस्तू अदृश्यांत वता आनी थंयसावन नवें नामरूप घेवन परतून आकाराक येता. अशे तरेन सगळें दृश्य विश्व जातूंत विलीन जाता आनी परतून उत्पन्न जाता तो हिरण्यगर्भ म्हळयार मरण. ताचे.उपरांत सगळ्या इंद्रियांभितर प्राण हो श्रेश्ठ आसा अशें सांगून फुडें धर्म आनी सत्य हीं दोनूय एकूच कशीं आसात तें सांगलां.

दुसऱ्या अध्यायांत गार्ग्य आनी अजातशत्रू ह्या दोगांयचो संवाद आसा. तातूंत अजातशत्रून गार्ग्याक ब्रह्माचो उपदेश केला. थंयसावन फुडें याज्ञवल्क्य आनी मैत्रेयी हांचो संवाद येता. याज्ञवल्क्याच्यो मैत्रेयी आनी कात्यायनी अशो दोन बायलो आशिल्ल्यो. आत्मो म्हळयार अमृत, तोच ब्रह्म आनी तोच सगळें अशें मैत्रेयीक पटोवन दितना दध्यङ ऋषीन अश्विनीकुमाराक जे मधुविद्येचो उपदेश केलो तो याज्ञवल्क्यान मैत्रेयीक सांगला.

तिसऱ्या अध्यायांत अश्वल आर्तभाग, उषस्तचाक्रायण, कहोळ, गार्गी, उद्दालक, आरुणी, विदग्ध शाकल्य हांणी वैदेह जनकाचे राज्यसभेंत विचारिल्ल्या प्रस्नांक याज्ञवल्क्यान दिल्ल्यो जापो आसात.

चवथ्या अध्यायांत जनक आनी याज्ञवल्क्य हांची ब्रह्माविशीं भासाभास आसा. पांचव्या अध्यायांत नितीशास्त्र, सृश्टीनिर्माणशास्त्र, परलोकशास्त्र ह्या विशयांवयले विचार आसा आनी गायत्रीच्या स्वरुपाचें वर्णन केलां.

सव्या अध्यायांत शरिरांतल्या सगळ्या शक्तींपरस प्राण श्रेश्ठ आशिल्ल्याचें सांगून, प्रवाहण जैवलीची पंचाग्निमीमांसा आनी कांय मंत्रूय दिल्यात आनी निमाणें गुरूशिश्यांची परंपरा सागंल्या. 'अहं ब्रह्मास्मि' आनी 'अयमात्मा ब्रह्म' हीं म्हावाक्यां ह्या उपनिषदांत आयल्यांत.

ह्या उपनिषदाचो थोडेभितर सारांश असो आसा-

हें व्यक्त जग ताचे उत्पत्तीपयलीं अव्याकृत आशिल्लें म्हळयार ताचें नामरूप व्यक्त नाशिल्लें. तें व्यक्त जातकच तातूंत जो परमात्मो प्रविश्ट जालो तोच आत्मो. ह्या आत्म्याचें ज्ञान आनी प्राप्ती हेंच मनशाचें ध्येय आसुंये. बायल, पूत, वित्त हांचेपरस आत्मो चड प्रिय आसा कारण तोच तत्त्वस्वरुपाक चड लागीं आसा. मनशान ताचीच उपासना करची. सगळे प्राण, सगळे लोक आनी सगळे देव आत्म्यापसुनूच उत्पन्न जातात. कर्माचें साधन असो जो देह तो मृत्युवश आसा आनी ताचेपसून सुटपाखातीर आत्मज्ञान होच एक उपाय आसा. 'हांव' हो आत्मभाव पयस करून मनशान ह्या देहावयली ममत्वबुद्दी ना करची आनी शम, दम आनी उपरती हांणी युक्त जावन हृदयस्थ बुद्दीन आत्म्याक पळोवंचें. आत्म्याक पळोवप हेंच आत्मतत्त्वाचें साधन आनी हेंच मनशाचे जिणेचें सार्थक.

ह्या उपनिषदाचे माध्यंदिन आनी काण्व अशे दोन पाठभेद आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**बृहद्देवता :** एक पुर्विल्लो ग्रंथ. शौनक हाणें हो ग्रंथ बरयलो. ह्या शौनकाचो काळ पाणिनीचे पयलीं आनी यास्का उपरांत म्हळयार सन पयलीं आठवो शेंकडो आसुंये अशें मानतात. सगळयाक परिचीत आशिल्लो नामनेचो शौनक तो हो न्हय अशें डॉ. मॅक्डोनेल हाचें मत आसा.

वैदिक देवतांक तांचीं नांवां कशीं मेळळीं हाचेविशीं ह्या ग्रंथांत विचार जाला. दरेक वेद फांट्याची एकेक बृहद्देवता आशिल्ली अशें म्हण्टात. पूण सद्या ऋग्वेदाची बृहद्देवता उपलब्ध आसा.

ह्या ग्रंथांत १२०० श्लोक आसात. ते आठ अध्यायांनी वांटल्यात. पयलो अध्याय आनी दुसऱ्या अध्यायाचे १२५ श्लोक हातूंत ग्रंथाची भुमिका आसून, तिचेमदीं दरेके देवतेचें स्वरूप, स्थान आनी वैलक्षण्य हांचें विस्तारान वर्णन केलां, भुमिकेच्या शेवटाक अव्यय, सर्वनाम, संज्ञा, समास ह्या व्याकरणांतल्या विशयांची चर्चा केल्या. फुडल्या सगळ्या ग्रंथांनी ऋग्वेदांतल्या देवतांचो निर्देश आसा. तातुंतूच कांय आख्यानांय आसात. हीं आख्यानां त्या त्या देवतांचें म्हत्व सांगतात. हीं आख्यानां आनी महाभारतांतलीं कांय आख्यानां हांचो लागींचो संबंद आशिल्ल्यान चडशा विद्वानांच्या मतान महाभारतांतलीं आख्यानां हीं बृहद्देवतेवयल्यान घेतल्यांत. ताका लागून बृहद्देवता हो भारतीय वाङमयांतलो आद्य कथाझेलो थरता. बृहद्देवतेंत मधुक, श्वेतकेतू, गालव, यास्क, गार्ग्य ह्या आचार्यांचीं मतां दिल्यांत. हेर देवतांवांगडाच बृहद्देवतेंत एक महादेवता मानल्या. ही महादेवता म्हळयार परमात्मो. हेर सगळे देव म्हळयार परमात्म्याचींच वेगवेगळीं रुपां आसात अशें बृहद्देवता मानता. अशे तरेन वैदिक देवतांचें रहस्य विशद करून सांगपी बृहद्देवता हो एक श्रेश्ठ ग्रंथ थरला.

- कों. वि. सं. मं.

**बृहद्देशी :** मतंगमुनीन बरयल्लो संगीतशास्त्रावयलो एक म्हत्वाचो संस्कृत ग्रंथ. ह्या ग्रंथाची रचणूक इ.स. च्या ५०व्या शेंकड्यांत जाली. ह्या ग्रंथाचो विशय देशी संगीत हो आसून ते विशीं हातूंत शास्त्रशुध्द भासाभास आयल्या. हाच्या काळामेरेन भरतान वर्णन केल्ल्यो जाती काळाभायऱ्यो जावन तांचे सुवातेर राग आयले. ह्या रागांची विस्कटावणी मतंगमुनीन हातूंत केल्या. उत्तम स्वर आनी वर्ण हांणी अलंकृत आनी मनाक उमेद दिवपी तो राग अशी ताणें रागाची व्याख्या केल्या. ही व्याख्या ताचे उपरांत संगीतकारांनीय मान्य केल्या.

ताणें रागाचे शुध्द, छायालग आनी संक्रीर्ण अशे तीन प्रकार सांगल्यात. रागांचीं देशी लक्षणां सांगतकच ताणें नादाची उत्पत्ती, श्रुती, स्वर, मूर्छना, वर्ण, अलंकार, गीती, जाती, राग, भास आनी प्रबंध ह्या विशयांचेर भासाभास केल्या. ह्याच ग्रंथांत वाद्याध्याय नांवाचो वाद्यांचेर बरयल्लो एक अध्याय आसून, संगीतकारांनी ह्या अध्यायाची खूब तोखणाय केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**बृहस्पति :** एक भारतीय वैदिक देवता. देवांचो गुरू आनी पुरयत म्हणुनूय ताचो उल्लेख जाता. तेभायर सुक्तकार, अर्थशास्त्रकार, वास्तुशास्त्रकार, स्मृतिकार आनी लोकायत दर्शनकार म्हणुनूय ताचो उल्लेख वैदिक ग्रंथांनी येता. वैदिक देवता, देवांचो गुरू आनी पुरयत म्हणून संबोधपी एकूच बृहस्पति आसलो तरी सुक्तकार, अर्थशास्त्रकार, वास्तुशास्त्रकार, स्मृतिकार आनी लोकायत दर्शनकार म्हणून एकूच बृहस्पति नासून त्यो सगळयो बृहस्पति गोत्रांतल्यो विंगड विंगड व्यक्ती अशें कांय विद्वानांचें मत आसा.

*'बृहतः महतः अस्य जगतः उदकस्य वा पाता रक्षिता'*

**अर्थ** - ह्या संवसाराची राखण करपी तो बृहस्पती अशी दुर्ग हाणें ह्या उतराची व्युत्पत्ती केल्या.

बृहस्पति उच्च अंतरिक्षांतल्या महातेजापसून उत्पन्न जालो. ताका सात तोंडां, सोबीत जीब, तीक्ष्ण शिंगां आनी शंबर पांखां आसून ताचो रंग भांगरावरी तेजिश्ट आसा. ताची वाणी स्पश्ट आसा. धोणू, बाण आनी भांगराचो परशू हीं ताचीं आयुधां आसात. ताच्या रथाक सात तांबडे घोडे आसतात अशें ऋग्वेदांत ताचें वर्णन आयलां.

ताका ब्रह्मणस्पति, वाचस्पती, धिषण, जीव, सदसस्पती, ज्येष्ठराज, गणपती, वज्रिन्, अनिमिषाचार्य, चक्षस् अशींय नांवां आसात. ऋग्वेदांत इंद्रावांगडा ताची तुस्त केल्ल्यान इंद्राचीं मघवा, वज्री हींय नांवां ताका लायल्यांत. ऋग्वेदांतल्या कांय सूक्तांचो तो ऋषी आशिल्ल्यान 'अंगिरस बृहस्पति' आनी 'लौक्य बृहस्पति' अशे निर्देश येतात.

बृहस्पति हो 'अंगिरस' ऋषीचो पूत आशिल्लो. तशेंच अग्नीचो पूत, त्वष्ठ्याचो पूत, उच्च मळबांतल्या उजवाडाचो पूत अशेय ताचे उल्लेख येतात. ताचे आवयचें नांव सुरूपा वा वसुदा वा श्रध्दा अशें आशिल्लें. ताका तारा आनी शुभा ह्यो दोन बायलो आसून रोमशा, सुलेखा ह्यो चलयो आनी कुशध्वज, कच, भारद्वाज, तार हे चले आशिल्ले. देवांचो बापूय म्हणुनूय ताचो उल्लेख मेळटा. आंगिरसी हें ताचे भयणीचें आनी उचंथ्य, संवर्त हीं ताच्या भावांचीं नांवां.



एक सूक्तद्रष्टो म्हणुनूय बृहस्पतीक वळखतात. ऋग्वेदाच्या धाव्या मंडलांतलीं ७१ आनी ७२ हीं दोन सूक्तां बृहस्पतीच्या नांवार आसात. तातूंतल्या ७१व्या सूक्तावयल्यान ताकाच सगळ्यांत पयलीं वाणीचें म्हत्व कळ्ळें अशें म्हणटात. चतुर्विंशतिरात्र आनी हेर कांय याग आनी साम ताच्या नांवार आसात. ताणें याज्ञवल्क्याक तत्त्वगिन्यान सांगलें अशी कथा आसा.

अर्थशास्त्रांतलो एक पुर्विल्लो आचार्य म्हणून ताचो उल्लेख आयला. ताचो ग्रंथ सद्या मेळना. वनपर्वांत बृहस्पतिनीतीचो उल्लेख आसा. तशेंच शांतिपर्वांत बृहस्पतीचे म्हणून कांय श्लोक आनी गाथा दिल्यात.

गुरू ह्या गिन्याक बृहस्पतीचें नांव दिलां. सारावली नांवाच्या ग्रंथांत बृहस्पतीक मनशांचो जीव म्हळां. ज्या मनशाचे कुंडलींत केंद्रस्थानार बृहस्पति आसता ताका हेर ग्रह कांयच करूंक शकनात अशें भुजबळांत सांगलां.

पुर्विल्ल्या साहित्यांतले उल्लेख आनी निबंदग्रंथांतलीं बृहस्पतिवचनां हांचेवयल्यान ताचें एक धर्मशास्त्र आशिल्लें अशें समजता. वेव्हार, संस्कार, आचार, श्राध्द, अशौच, आपध्दर्म, प्रायश्चित ह्या विशयांचे सुमार २,४०० श्लोकांचें सुमार १९० ग्रंथांतल्यान संकलन करून तें बृहस्पतिस्मृति ह्या नांवान बडोद्याचे गायकवाड ओरिएंटल सीरिस हे संस्थेन उजवाडाक हाडलां.

- कों. वि. सं. मं.

## बेंथॅम जेरेमी :

(जल्म : १५ फेब्रुवारी १७४८, हाउंडस्डिच, लंडन; मरण : ६ जून १८३२, लंडन).

नामनेचो इंग्लीश तत्त्ववेत्तो. ताका इंग्लंडांतल्या उपयुक्ततायवादी नैतिक पंथाचो संस्थापकूय मानतात. एका नामनेच्या कायदेपंडिताच्या घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ऑक्सफर्डांतल्या क्विन्स कॉलेजींतल्यान पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा ताणें पदवी घेतली. एकुणिसाव्या वर्सा तो 'लिंकन्स इन' हातूंतल्यान बॅरिस्टर जालो. अशे तरेन ऑक्सफर्ड आनी लंडनांत शिक्षण घेतकच ताणें विधिनेमांचो आनी घटनाशास्त्राचो अभ्यास केलो. ह्या विशयाचेर ताणें खूब ग्रंथ बरयले. तशेंच तर्कशास्त्र, अर्थशास्त्र, मानसशास्त्र, नितीशास्त्र अशा हेर विशयांचेर ताणें लिखाण केलां.

ताणें आपलें बरेचशें लिखाण अर्दवट सोडलां आनी जें पुराय केलां तेंय उजवाडावंक ना. ताचें कांय लिखाण एत्येन द्युमाँ ह्या ताच्या एका स्वित्झर्लंडी अनुयायान केल्ल्या फ्रांसेझ अणकाराच्या स्वरुपांत पयलीं उजवाडा आयलें.

'ॲन इण्ट्रोडक्शन टू द प्रिन्सिपल्स ऑफ मोरल्स अँड लेजिस्लेशन' हो ताचो ग्रंथ ताणें स्वता १७८९ वर्सा उजवाडायलो. विल्यम ब्लॅकस्टोन ह्या नामनेच्या कायदेशास्त्रज्ञान कायद्यांचेर भाश्य करपी जो ग्रंथ बरयला (कॉमेंटरीस ऑन द लॉस ऑफ इंग्लंड १७६५-६९) ताचेरूय बेंथॅम हाणें विस्तारान भाश्य बरयलें तें देडशें वर्सांनी १९२८ वर्सा उजवाडा आयलें. पूण तातूंतलो एक वांटो 'अ फ्रॅग्मॅण्ट ऑन गव्हर्नमेंट' हो १७७६ वर्सा उजवाडा आयलो. ब्रिटीश कायदो वेवस्थेच्या खूबशा आंगांचेर आनी खाशेलपणांचेर ताणें लिखाण केलां. ताची हेर तत्त्वीक पुस्तकां अशीं आसात- 'अ बूक ऑफ फॅलसीस' (१८२४), 'रॅशनल ऑफ ज्युडिशिअल एव्हिडन्स' (१८२७) 'डिऑण्टॉलॉजी' (१८३४) हीं ताचीं पुस्तकां हेरांनी संपादन करून उजवाडायल्यांत. 'कॉन्स्टिट्युशनल कोड' (पयलो खंड- १८३०) ह्या आपल्या ग्रंथाकडेन कॅथरिन द ग्रेट हे रशियन राणयेचें तशेंच युरोपांतल्या हेर राज्यकर्त्यांचें लक्ष ओडून, राज्यपद्दतींत सुदारणा घडोवन हाडपाचो यत्न बेंथॅम हाणें केलो.

जॉन लॉक, रुसो हांणी राज्याचे उत्पत्तीचें कारण समाजीक कबलात अशें सांगिल्लें. पूण बेंथॅमाक तें मान्य नां. ताच्या मतान अशी कबलातूच जावंक शकना आनी जाली जाल्यार तिचेर राज्यसंस्था तिगूंक पावना. फकत भूतकाळांत कोणें तरी आनी केन्ना तरी अशी कबलात केल्ली म्हणून फुडल्या काळांत राज्याचे विधिनेम पाळप जायनात. हे

विधिनेम समाजस्वास्थ्याक उपयुक्त आसतात देखून लोक ते पाळटात.

उपयुक्तताय होच दरेके गजालीचो मानदंड मानिल्ल्यान बेंथॅमान तीच राज्याच्या विधिनेमांची बसका थरयल्या. ते नदरेनूच ताणें सैमीक नेमांची कल्पनाय अशास्त्रीय थरयल्या. अशा नेमांचें निश्चीत रूप कोणाकूच खबर नासता. दरेकाचे कल्पनेप्रमाण ताणें सैमीक नेम थरोवंचो आनी ताका अणसरून न्याय, सत्य, अधिकार हांच्यो व्याख्या करच्यो हाका कांयच अर्थ ना अशी टिका बेंथॅमान केल्या.

अठराव्या शेंकड्यांत समाजीक कबलात आनी निसर्गदत्त अधिकार ह्या दोन कल्पनांचेर राजकीय तत्त्वज्ञान आदारिल्लें.पूण ह्यो दोनूय कल्पना अशास्त्रीय आशिल्ल्याचें बेंथॅम हाणें म्हळां. तेखातीर सतराव्या शेंकड्याच्या मध्याचेर हॉब्स हाणें सुरू केल्ली राज्यमीमांसा एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक अनावश्यक थरली. समाजीक कबलातीचे उपपत्तीन राज्याचें धर्मीक अधिश्ठान नश्ट करून एक नवी उपपत्ती सांगिल्ली, पूण तिचेमुखार उपयुक्ततायवादी बेंथॅम हाणें समाजीक कबलातीफाटलो युक्तिवादूय पोको आशिल्ल्याचें दाखोवन दिलें. बेंथॅमान उपयुक्ततायवादी तत्त्वज्ञान सांगून राज्याक एक नवें अधिश्ठान मेळोवन दिलें. ताच्या मतान, विधिनेम करप्याचो मुखेल हेत समाजमूख होच आसूंक जाय आनी तेखातीर सादारणपणान उपयुक्ततायेचें तत्त्व ताणें मार्गदर्शक मानचें. तशें केल्यान समाजाचें सूख हेंच ध्येय आनी उपयुक्तताय हीच कसोटी ह्यो दोनूय गजाली नदरेसामकार दवरून राज्यांतल्या सगळ्या विधिनेमांची उबारणी करप गरजेचें आसता. पूण सूख आनी दुख्ख म्हळ्यार किदें? उपयुक्तताय म्हळ्यार किदें? मनशाचे जिणेंत ताची सुवात किदें? ताचीं कारणां खंयचीं आनी तांचो राज्यसंस्थेकडेन संबंद कसो थरोवंचो? बेंथॅमाच्या मताप्रमाण मनशाचे जिणेचेर सूख आनी दुख्ख ह्या दोनूय प्रवृत्तींचें अधिराज्य आसता. तेप्रमाणूच मनीस सगळे निर्णय घेता. ताच्या कार्याची दिकाय हेच प्रवृत्तीक अणसरून थरता. सुखाचो सोद घेवन तशेंच दुख्खापसून पयस रावपाखातीर मनीस खूब यत्न करता. नितीशास्त्र आनी विधिनेम हांची बसका उद्दिश्टांक धरून घालप गरजेचें आसता. जाचेपसून सूख मेळटा तें उपयुक्त आनी दुख्ख जाता तें उपयुक्त न्हय. ह्या निकशांवयल्यानूच योग्य-अयोग्य, न्याय-अन्याय, सत्य-असत्य, नैतिक-अनैतिक हांचें मोलमाप जावंक जाय. उपयुक्ततायेंबगर ह्या मुल्यांक कांयच अर्थ उरना. खंयचोय एक बरो गूण थरयतना ताचेपसून भौतिक जिणेक कितलो फायदो मेळटा तो पळोवंक जाय. आतां भौतिक फायदो म्हळ्यार मनशाचो देह, मन आनी बुद्द हांकां सूख मेळपी गजाली. सुखाची प्राप्ती वा दुख्ख हांचीं चार कारणां आसूं येतात. १) भौतिक वा सैमीक. मनशाच्या सामर्थ्याभायलीं हीं कारणां सृश्टीच्या नेमांप्रमाण घडत आसतात. २) नैतिक वा समाजीक. समाजांतल्या लोकांच्या एकमेकांकडेन आयिल्ल्या संबंदांक लागून जावपी सुखदुख्खां. तांचेफाटले दुस्वास, बऱ्यो इत्सा, समाधान, अतृप्ती हांच्यो बऱ्यो-वायट भावना आसतात. ३) राजकीय शासनसंस्थेक लागून जावपी सुखदुख्खां, राज्यांतल्या प्रस्थापित विधिनेमांक लागून निर्माण जातात. ४) धर्मीक-धर्मान विधिनिशेधात्मक थरयल्ल्या गजालींक लागून जावपी सुखदुख्खां.

अमूक एका मनशा बदला अमुकूच मनशान राजकारभाराचीं सुत्रां सांबाळून राज्याची, समाजाची, व्यक्तीची सुदारणा जावपाची ना जाल्यार राजकीय सुदारणा घडोवन हाडपाची आसल्यार विधिनेमांनीच बदल करप गरजेचें अशें बेंथॅम हाचें मत. विधिनेमांच्या बंधनांक लागून मनीस कितलोय सुवार्थी आसल्यार लेगीत ताका सुवार्थाच्यो आनी समाजाच्या हिताच्यो शिमो समजुपाक कठीण जातात. विधिनेम करपाचो अधिकार मूठभर लोकांच्या हातांत आसत जाल्यार समाजांतल्या सगळ्या थरांच्या आनी वर्गांच्या हिताकडेन पळयनासतना स्वताच्या वर्गापुरतोच विचार करतले. तेखातीर देशांतलें विधिमंडळ हें सगळ्या नागरिकांचें प्रतिनिधिक जावंक जाय. तेखातीर बेंथॅमान राज्यघटनेंत कांय सुदारणा सुचयल्यात त्यो अशो - १) राश्ट्रांतल्या दरेका जाण्ट्या दादल्याक मताचो अधिकार, २) विधिमंडळ समाजाचें प्रतिनिधीक आसचें, ३) विधिमंडळाक जापसालदार आशिल्ल्या मंत्रिमंडळाकडेनूच राज्यकारभार आसचो, ४) दर वर्सा विधिमंडळाची वेंचणूक जावंची, ५) वेंचणुकेपसत गुपीत मतदान पद्दत आपणावंची, ६) राजाबदला लोकांनी नियुक्त केल्ल्या राश्ट्राध्यक्षाची वेंचणूक करची, ७) उमराव मंडळासारकें वरिश्ठ मंडळ बरखास्त करचें. विधिनेमांचो उद्देश हो समाजाच्या हिताचो आसचो अशें बेंथॅम हाणें म्हळां. समाजाचें हीत म्हळ्यार उपजिविकेचीं साधनां उपलब्ध करून दिवन समृध्द करप तशेंच समताय निर्माण करून सुरक्षिततायेची वेवस्था करप. विधिनेम पाळटना तांचो भंग जावंक उपकारना. म्हळयार बंड, बेबंदशाय हें मतींत घेवनूच विधिनेम करतना समाजाक ते कितलेमेरेन पेलतले हाचोय विचार करप गरजेचें आसता.

बहुतम लोकांचें बहुतम सूख हें बेंथॅमच्या राजकीय तत्त्वज्ञानाचें मुखेल सूत्र आसून उपयुक्तताय हो ताणें नैतिक निकश मानिल्लो. शासनसंस्थेचो खरो आदार खंयचो आनी विधिनेमांचें खरें ध्येय किदें आसचें ह्या प्रस्नांचो बेंथॅमान पयलीं विचार केला. राजकीय तत्त्वज्ञानाच्या इतिहासांत बेंथॅमच्या विचारांक लागून एक नवो कालखंड तयार जालो. राज्यसंस्थेची घडण कशी आसची, राजसंस्थेचे अधिकार कशे आसचे, नागरिकांचीं राजसंस्थेविशींचीं कर्तव्यां किदें आसात ह्या प्रस्नांक बेंथॅम हाणें दिल्ल्यो जापो, ताणें आपणायल्ल्या उपयुक्ततायेच्या तत्त्वापसून तयार जातात. राज्य म्हळ्यार फकत ताच्या घटकव्यक्तींचो समुदाय आसता आनी ह्या व्यक्तींच्या हितांची वा सुखांची बेरीज म्हळ्यारूच राज्याचें हीत वा सूख अशी व्यक्तिवादी भुमिका तो आपणायता. राजसंस्थेचो उगम आनी अधिश्ठान समाजीक कबलातींत आसा ही उपपत्ती बेंथॅम न्हयकारता. राजसंस्था ही सार्वभौम सत्ता आसता अशें मानतात. हे सार्वभौम सत्तेचे धारक कोण आसतात हो राज्य शास्त्रांतलो

एक म्हत्वाचो प्रस्न. हांगाय बेंथॅमाची भुमिका भावरूपवादी आसा. म्हळयार, जे व्यक्तीचे वा व्यक्तींच्या समुदायाचे आदेश समाजांतले चड संख्येंतल्यो व्यक्ती संवयेन पाळटात ती व्यक्ती वा तो समुदाय सार्वभौम आसता. अशे सार्वभौम शक्तीन जे आदेश दिल्ले आसतात आनी ह्या आदेशांचो भंग केल्यार ख्यास्त सांगिल्ली आसता, ते आदेश म्हळयार कायदे. तेन्ना सार्वभौम शक्त ही कायदद्यांपरस वयर आसता आनी तिका कायदद्यांचें बंधन लागना. पूण कायदे करपी सार्वभौम समुहाचो घटक म्हणून व्यक्ती सार्वभौम आसल्यार पूण तेचवांगडा हे कायदे तिचेर बंधनकारक आसतले आनी तेखातीर व्यक्तीचें कायदद्याकडेन दोट्टी नातें आसतलें ही शक्यताय बेंथॅम मान्य करता. तशेंच सार्वभौम शक्तीक कायदद्याचें बंधन नासलें तरीय नैतिक बंधन आसता म्हळयार प्रचलीत नितीआड आशिल्ले कायदे तिणें केल्यार लोकांचो राग तिका सोंसचो पडटा आनी देखून सार्वभौम शक्त पुराय निरंकुश नासता अशें बेंथॅमाचें म्हणणें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बेंद्रे, दत्तात्रय रामचंद्र :** (जल्म : ३१ जानेवारी १८९६, धारवाड; मरणः २६ ऑक्टोबर १९८१, मुंबय).

भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाल्लो नामनेचो कन्नड कवी. ताचें मूळ घराणें रत्नागिरी जिल्ह्यांतल्या केळशी गांवांतलें. पूण कामानिमतान तासगांव, शिरहट्टी आनी निमाणें धारवाडाक तो स्थायिक जालो. कर्नाटकांत ताका 'अंबिकातनयदत्त' ह्या टोपण नांवान वळखतात.



धारवाडाक ताणें मॅट्रिकेमेरेनचें शिक्षण घेतलें. पुण्यांतल्या फर्ग्युसन महाविद्यालयांतल्यान तो बी. ए. जालो आनी फुडें मुंबय विद्यापिठांतल्यान ताणें एम. ए. पदवी घेतली. १९१८-३२ मेरेन ताणें व्हिक्टोरिया हायस्कूल, राश्ट्रीय शाळा धारवाड तशेंच गदक आनी हुबळीक शिक्षक म्हणून काम केलें. ताणें बरयल्ल्या 'नरबली' हे कवितेखातीर १९३२ वर्सा ताका बंदखण आनी अज्ञातवास भोगचो पडलो. १९४३ उपरांत पुण्यांतल्या कॉमर्स कॉलेजींत कन्नड भाशासाहित्याचो प्राध्यापक म्हणून आनी न्यू इंग्लीश स्कुलांत इंग्लिशीचो अध्यापक म्हणून ताणें काम केलां. १९४४-५६ मेरेन तो सोलापूरच्या डी. ए. व्ही. कॉलेजींत कन्नड विशय शिकयतालो. १९५६-१९६६ मेरेन ताणें आकाशवाणीच्या धारवाड केंद्रार साहित्य सल्लागार म्हणून काम पळयलें.

आपली आवयभास मराठी आसुनूय ताणें १९१६चे आदींच मराठी, कन्नड, इंग्लीश आनी संस्कृतांत कविता रचल्यो. १९२२ त ताचें 'कृष्णकुमारी' नांवाचें ल्हानशें कथाकाव्य उजवाडाक आयलें. ताचे वट्ट २६ कवितांझेले उजवाडाक आयल्यात.तातूंतले कांय म्हत्वाचे अशे : गरी (१९३२), सखीगीत (१९३७), नादलीले (१९३८), मेघदूत (१९४३), गंगावतरण (१९५१), अरळुमरळु (१९५७), नाकुतंती (१९६४), श्रीमाता (१९६८), इदु नभोवाणी (१९७०), मत्ते श्रावण बंतु (१९७३), चतुरोक्तिमत्तु इतर कवनगळु (१९७८), बाहत्तर (१९६९), विनय (१९७२), ओलवे नम्म बदुकु (१९७७). साहित्य समिक्षांचेरूय ताणें णव ग्रंथ बरयल्यात ते अशे : साहित्य मतु विमर्शे (१९३७), विचार मंजरी (१९४०), महाराष्ट्र साहित्य (१९५९), कन्नड साहित्यदल्लि नाल्कु नायकरत्नगळु (१९६८), हत्तु उपन्यासगळु (१९७२), साहित्यद विराट स्वरूप (१९७४). हुच्चाटगळु (१९३६, पांच एकांकीचो झेलो) आनी होस संसारमत्तु इतर नाटकगळु (१९५०, चार नाटकांचो झेलो) अशे ताचे दोन नाट्यसंग्रह उजवाडाक आयल्यात. 'निराभरण सुदरी' (१९४०) ह्या झेल्यांत ताच्यो कांय कथा, ललीत निबंद आनी विनोदी गितां आसात.

'विठ्ठल संप्रदाय' (१९६५) आनी 'संतमहंतांचा पूर्ण शंभू विठ्ठल' (१९८०) हे ताचे वैचारिक स्वरुपाचे मराठी ग्रंथ, 'गुरू गोविंदसिंग', 'कबीर वचनावली', 'अरविंदांचे भारतीय नवजन्म' तशेंच रवींद्रनाथ टागोर हाच्यो १०१ कविता ताणें कन्नड भाशेंत अणकारून उजवाडाक हाडल्यो. सौंदर्यलहरी, रमणहृदय, आनंदलहरी, अनुभवामृत आदी संतसाहित्याचो ताणें कन्नड भाशेंत पद्य अणकार केला. ताच्या कांय कन्नड कवितांचे जर्मन हिंदी, संस्कृत आनी हेर भारतीय भाशांनी अणकार जाल्यात.

१९५८ त बेंद्रे हाच्या कन्नड 'अरळुमरळु' ह्या कविता झेल्याक साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जालो. 'संवाद' (१९६५) ह्या ताच्या मराठी गद्यपद्यसंग्रहाक १९६५ वर्साचें न. चिं. केळकर इनाम मेळ्ळां. १९६६ त म्हैसूर विद्यापिठान आनी १९६८ त कर्नाटक विद्यापिठान ताका भोवमानाची डॉक्टरेट दिली. १९६८ त भारत सरकारान ताका पद्मश्री दिली. १९६९ वर्सा साहित्य अकादेमीचो फॅलो म्हणून ताका वेंचून काडलो. १९६६ सावन कर्नाटक राज्यान ताका आजन्म निवृत्तीवेतन सुरू केलें. १९७२ त कर्नाटक राज्यान ताच्या जिविताविशीं एक साक्षीचित्र काडलें.

ताच्या 'नाकु तंती' (१९६४) ह्या कवितांझेल्याक १९६२-६६ ह्या काळांतली भारतीय ललीत साहित्यांतली बऱ्यांतली बरी कलाकृती म्हणून १९७३ वर्सा भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जालो. 'नाकु तंती' (चार तंतू आनी तारो) हातूंत ४४ कविता आस्पावतात. हातूंतल्या स कवितांचो आडवाद सोडल्यार उरिल्ल्या सगळया कवितांनी खाशेलो असो वैचारीक भावनीक एकचार दिश्टी पडटा. हो एकचार चार हे

प्रतिमेचो आसून तो ह्या सगळयाच कवितांचें संरचनात्मक तत्त्व म्हणून वापरला. 'नाकु तंती' ह्या माथाळयाचे कवितेंत कवीच्या व्यक्तिमत्वाचीं चार आंगां वर्णिल्यांत. हांव, तूं, ते आनी कल्पक आत्मो अशीं चार आंगां आशिल्ल्या कवीचें व्यक्तिमत्व आध्यात्मिक आनी सोबीतकायेच्या अणभवाच्या सगळयाच मळांचेर ह्या चार तत्त्वांचो सोद घेता.

अरविंद साहित्य आनी तत्त्वगिन्यान ह्या विशयांवयलें बेंद्रे हाचें बरप 'साहित्य दविराट' ह्या संग्रहांत आस्पावता.

धारवाडच्या गेळेयर गंपू ह्या अभ्यासमंडळाचे निर्मितींत ताचो मोलादीक वांटो आसा. कांय काळ ताणें जीवन, जयकर्नाटक, वाग्भूषण आनी स्वधर्म ह्या कन्नड पत्रिकांचें संपादन केलें. १९४३ वर्सा शिमोगांत भरिल्ल्या सत्ताविसाव्या कन्नड साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद ताका फावो जाल्लें.

आर्विल्ल्या कन्नड काव्याच्या मळार बेंद्रे हाणें केल्लो वावर खूब मोलाचो. लोकपंरपरेचो वावर करून ताणें कन्नड भाशेक सोबीतकाय हाडली. गूढवादाचो सोद घेवपी भावकवितेच्या रुपान ताणें कन्नड काव्य गिरेस्त केलें. सैम, मोग, देशभक्ती, समाजीक जाणविकाय आनी आध्यात्मिक चिंतन हे ताचे आवडीचे विशय. गांधीयुगांतलो एक म्हान स्वच्छंदतावादी कन्नड कवी म्हणून ताका कर्नाटकांत मानाची सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## बेंद्रे, नारायण श्रीधर : (जल्म : २१ ऑगस्ट १९१०, इंदूर).

नामनेचो चित्रकार. १९३३ त ताणें आग्रा विद्यापिठाची बी. ए. पदवी मेळयली. त्याच काळांत इंदूरच्या 'स्टेट स्कूल ऑफ आर्ट' हातूंत दत्तात्रय दामोदर देवळालीकर हाच्या मार्गदर्शनाखाला ताणें कला शिक्षण घेतलें. ताणें आदिमानवी कलेपसून चीनी चित्रकलेमेरेन जायत्यो शैली आत्मसात केल्यो. १९३४ त ताणें त्या वेळावयल्या मुंबय सरकाराची 'कला पदविका' मेळयली. फुडल्या धा वर्सांमदीं ताका भारतांतल्या खूबशा प्रदर्शनांनी जायतीं इनामां मेळ्ळीं. तातूंत बॉबे आर्ट सोसायटीचें १९३३ चें रुप्यापदक आनी १९४१ तलें भांगरापदक, आर्ट सोसायटी ऑफ इंडियाचो करंड (१९४३), पटेल करंड (१९४६), राज्यपाल इनामां आदी जायत्या इनामांचो आस्पाव जाता. १९३६ ते ३९ ह्या काळांत ताणें काश्मीर सरकाराच्या अभ्यागत कार्यालयांत (विजिटर्स ब्युरो) कलावंत पत्रकार म्हणून काम केलें. १९४० त चेन्नईक एका चलचित्राचें कलादिग्दर्शन केलें. हे वेवसायीक भोंवडेवरवीं ताका जायतेकडली सैमीक सोबीतकाय चितारपाक मेळ्ळी. तेभायर ताणें भारतांतलीं इतिहासीक थळां, संग्रहालय आनी कलासंस्था हांकां वेळच्या वेळार भेटी दिल्यो. १९४६ त ताणें अभ्यागत कलावंत ह्या नात्यान शांती निकेतनाक भेट दिली. १९४७ ते ५० ह्या काळांत ताणें ग्रेट बिटन, अमेरिका, फ्रांस, हॉलंड, अस्तंत जर्मनी, इटली, इजिप्त,लेबानॉन, जॉर्डन, इराक, इराण, अफगाणिस्तान आनी जपान आदी देशांक भेटी दिवन थंयचे कलासृश्टीचो अभ्यास केलो. तेभायर न्युयॉर्कांतल्या आर्ट स्टुडंट्स लीग हातूंत आर्मीन लॅंडेक ह्या कलातज्ञाचे देखरेखीखाल आरेख्यक कलेचो अभ्यास केलो. भोंवडी करता आसतना कांय देशांनी ताणें आपल्या कलाकृतींचीं प्रदर्शनां घडोवन हाडिल्लीं. १९५२ त भारताचे वतीन चीनांत गेल्ल्या पयल्या संस्कृतीक प्रतिनिधी मंडळांत चित्रकार म्हणून बेंद्रेचो आस्पाव आशिल्लो. भारतांत ताणें जायते फावटीं आपले कलाकृतींचीं प्रदर्शनां भरयल्यांत.

१९५० ते ६० ह्या काळांत बडोद्याक महाराजा सयाजीराव विद्यापिठांत चित्रकला विशयाचो प्राध्यापक आनी उपरांत ललित कला विद्या फांट्याचो अधिश्ठाता म्हणून काम पळयलें. बडोद्या सावन निवृत्त जावन तो मुंबय आयलो आनी वेवसायीक चित्रकार म्हणून थंयच स्थायिक जालो.

कलाक्षेत्रांतल्या जायत्या नामनेच्या संस्थांकडेन ताचो संबंद आशिल्लो. आर्ट सोसायटी ऑफ इंडिया चो तो तीन वर्सां अध्यक्ष आशिल्लो. १९६२ ते ७२ ह्या काळांत तो दिल्लीचे राश्ट्रीय कला अकादमीचो ललित कला फांट्याचो आनी १९७२ ते ७३ तशेंच १९७७ ते ७८ ह्या काळांत बॉबे आर्ट सोसायटीचो उपाध्यक्ष आशिल्लो.

मुंबयचे मराठी साहित्य सभा हे संस्थेन भांगरा पदक दिवन ताचो भोवमान केला. १९६९ वर्सा भारत सरकारान ताका पद्मश्री ही पदवी दिवन भोवमान केलो. १९७४ त ललीत कला अकादेमीन ताका सन्मान्य वांगडीपद (फॅलोशिप) दिलें. गुजरात आनी मध्य प्रदेश शासनान ताम्रपत्रां दिवन ताचो भोवमान केलो. खैरागढ (मध्यप्रदेश) च्या इंदिरा कला संगीत विश्व विद्यालयावतीन ताका डी. लिट ही भोवमानाची पदवी दिली.

बेंद्रे हाका अश्टतासांचे प्रतिभेचो प्रयोगशील चित्रकार म्हणून वळखतात. कलाजिविताचे सुरवेक सावनूच ताणें जायते प्रयोग करून पळयले. खंयचेय एके विशिश्ट चित्रशैलीचें वा पंथाचें बंधन ताणें मानलेंना. ताणें स्वच्छंदतायवादी चित्रशैली, देखीक- व्हॅगबॉंड (१९३३) घनवादाकडेन लकपी चित्रपद्दत, देखीक- सनफ्लॉवर्स (१९५५), अमूर्त अभिव्यक्तिवादी शैली-एनट्वायण्ड फॉर्म (१९६२), आकृतिनिश्ठ नववास्तववादी शैली, देखीक- भिल्ल जोडपें (१९८०) ह्या सारक्या वेगवेगळया चित्रशैलींतल्यान ताचे कलेचें दर्शन घडटा. ताचीं जायतीं चित्रां भारतांत तशेंच परदेशांतल्या कलासंग्रहांत दवरल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**बेकन, फ्रान्सिस :** (जल्म : २२ जानेवारी १५६१; मरण : ९ एप्रिल १६२६).

इंग्लीश राज्यधुरंधर, तत्त्ववेत्तो, कायदेपंडीत, लेखक आनी मुत्सद्दी म्हणून फ्रान्सिस बेकन हाची नामना आसा. ताचो बापूय सर निकोलस बेकन हो एलिझाबेथ राणयेच्या दरबारांत सरदार आशिल्लो आनी आवय उत्कट धर्मीक वृत्तीची आनी प्युरिटन पंथाची आशिल्ली. पिरायेच्या बाराव्या वर्सा बेकन हाणें कॅंब्रिजांतल्या ट्रिनिटी कॉलेजींत प्रवेश घेतलो आनी ल्हान पिरायेचेरूच आपले तेजिश्ट बुद्दीमत्तेन नामना मेळयली. पूण पॅरीसांत शिक्षण घेता आसतनाच बापायक मरण आयिल्ल्यान ताका इंग्लंडाक परतुंचो पडलो. कायद्याचो अभ्यास करून तो बॅरिस्टर जालो. पिरायेच्या तेविसाव्या वर्सा म्हळयार १५८४ वर्सा तो इंग्लंडच्या पार्लमेंटाचो वांगडी जालो. इ.स. १६०३ वर्सा पयलो जेम्स इंग्लंडाचे गादयेर येतकच सरकारांत म्हत्वाचें पद मेळचें म्हणून ताणें खूब यत्न केले आनी इ.स. १६१८ वर्सा मंत्रिपदाचेर ताची नेमणूक जाली. मजगतीं, ताणें १६०७ वर्सा, 'सॉलिसिटर जनरल', १६१३ वर्सा 'ॲटर्नी जनरल', १६१७ वर्सा 'लॉर्ड किपर ऑफ द ग्रेट सील' ह्या पदांचेर वावर केलो. १६१८ वर्सा 'लॉर्ड चॅन्सेलर' म्हणून ताची नेमणूक जावन तो उमरावूय जालो. उपरांत १६२१वर्सा बेकन 'बॅरन व्हेरूलम' आनी 'व्हायकाउण्ट सेण्ट आल्बान्स' जालो. पूण ह्याच वर्सा न्यायदानाच्या कामांत ताणें लांच घेतली असो आरोप सिध्द जाल्ल्यान ताका सगळ्या पदांवयल्यान काडून उडोवन खर ख्यास्त जाली. पूण उपरांत ताका सूट मेळून तो सुटलो. उपरांतचो सगळो काळ ताणें लिखाण आनी चिंतनांत घालयलो.



फ्रान्सिस बेकनाच्या लिखाणांत खूब विविधताय दिसता. ताणें आपले निबंध 'एसेस' १५९७ वर्सा उजवाडायले. हे चडशे नैतिक विशयांचेर आसात. ताचे फुडले इंग्लीश आनी लॅटीन ग्रंथ जेम्स राजाचे कारकिर्दींत बेकन व्हड अधिकारपदाचेर आसतना उजवाडाक आयले. 'द ॲडव्हान्समेण्ट ऑफ लर्निंग' (१६०५), 'कॉजिटेटा एट् व्हिसा' (१६०७), 'डी सॅपिएन्टिआ व्हेटेरम्' (१६०९), 'नोव्हुम् ऑरगानुम्' (१६२०), 'डी ऑग्मेण्टिस सायन्सिॲरुम्' (१६२३) आनी 'न्यू ॲटलाण्टिस्' (१९२६). बेकनाचें सगळें लिखाण जेम्स स्पिडींग, आर. एळ. एलिस आनी डी. डी. हीथ हांणी एकठांय करून आनी संपादीत करून लंडनासावन १४ खंडांनी उजवाडायलें (१८५७-७४). बेकनाचे निबंध 'एसेस' हाचें पुराय शिर्षक द एसेस, ऑर काउन्सेल्स, सिव्हिल अँड मोरल-तीन आवृत्त्यो १५९७, १६१२, १६२५ अशो उजवाडा आयल्यो. पयले आवृत्तींत धा, दुसरे आवृत्तींत अठ्ठावीस आनी तिसरे आवृत्तींत अठ्ठावन निबंध आसात. हे निबंध नैतिक विशयांचेर बरयल्यात. बेकनाक अभिप्रेत आशिल्ली नीत ही वेव्हारीक नीत आसून लौकीक यश कशें मेळोवचें हेविशीं निबंधांनी ताणें सांगलां. बेकन हेर उल्लेख करपाच्या ग्रंथांनी 'हिस्ट्री ऑफ हॅन्री द सॅवन्थ' (१६२२), 'ॲपफ्थेम्स : न्यू अँड ओल्ड' (१६२४) हांचोय आस्पाव जाता.

सैमाचे नेम धरून वागल्यारूच मनीस सैमाचेर जैत जोडूंक शकता हें बेकनाचें मुखेल सूत्र आशिल्लें. ॲरिस्टॉटलाचें तर्कशास्त्र आनी ताची अभ्यासपद्दत, ग्रीक विचारवंत, शास्त्रज्ञ तशेंच निरिक्षण आनी अणभव हांचें म्हत्व दिवपी पॅलिसी, टेलिसिओ ह्या शास्त्रज्ञांचो ताचेवयलो परिणाम उल्लेख करपासारको आसा. पूण ताची स्वताची अशी स्वतंत्र विचारपद्दत आशिल्ली.

मनशाचें सैमावयलें प्रभुत्व, सैमीक साधन सामुग्रेंतली सुदारणा तशेंच शिक्षणीक, प्रशासकीय कायदो आनी धर्मसंस्था ह्या विशयांतल्या सुदारणांची फाटपुरवण बेकनान आपल्या लिखाणांतल्यान आनी प्रचारांतल्यान सतत चालू दवरली. दीसपट्टे जिणेंतल्या सगळ्या विशयांनी ताणें लक्ष घाल्लें.

'मनशाचें गिन्यान आनी मानवी सत्ता, हीं निमाणीं एकठांयूच येतात. सगळ्या विश्वाचेर ताबो मेळोवंचो अशी मनशाची सगळ्यांत व्हड महत्वाकांक्षा आसूंक जाय आनी तेखातीर ताणें कला आनी शास्त्रांचो आदार घेवंक जाय, हो बेकनाच्या विचारांचो गाभो अशें म्हणूं येता. आयजमेरेनच्या विचारवंतांनी आनी संशोधकांनी मनशाची जीण सुखी जावपाखातीर सातत्यान अशे यत्न करूंक नात अशें बेकन म्हणटालो. ताणें प्रयोग पद्दतीचेर चड भर दिलो. ज्या समाजीक आनी मानसशास्त्रीय प्रभावांचो परिणाम शास्त्रज्ञांचेर जाता ताचेर नियंत्रण दवरपाचो बेकनाचो यत्न आशिल्लो.

मनशाची उदरगत किद्याक थांबली हाची विस्कटावणी करतना बेकन म्हण्टा, मानवी संस्था, शिक्षण पद्दती अर्दवट आसात. शास्त्रज्ञांक उर्बा दिवपाचे नदरेंतल्यान तांकां इनाम दिवंक जाय. ह्या शास्त्रज्ञांनी विशयांचें वर्गीकरण करूंक जाय. विद्यापिठाच्या अभ्यासक्रमांत बदल करूंक जाय. वाचनालय, प्रयोगशाळा सारक्यो सोयी उपलब्ध करूंक जाय. तेच भाशेन परदेशांत जावपी संशोधनाचीय म्हायती मेळोवंक जाय ह्यो सगळ्यो सुचोवण्यो हें बेकनाचें खाशेलपण. बुद्दीचो उपेग भौशिक आनी विधायक वावराखातीर करून घेवपाक जाय. फकत एकांतांत बसून गिन्यान मेळोवन कांय फायदो ना अशें बेकनाचें मत आशिल्लें. कायदे सोंपे करचे, नव्यो संविधा तयार करच्यो हांचो बेकन पुरस्कर्तो आशिल्लो. त्या काळांतलो इंग्लीश कायद्यांतलो वाद, अनिश्चीतताय ह्या दोशांकडेन ताणें सगळ्यांचें लक्ष ओडलें. गरीब लोकांक

मदत करची, राजा आनी ब्रिटीश संसद हांचेमदले संबंद सुदारचे, आयर्लंडाच्यो अडचणी सोडोवपाखातीर प्रयत्नशील आसूंक जाय हे ताचे विचार ताच्या काळाच्या मानान खुबूच फुडारिल्ले आशिल्ले. शास्त्रीय म्हायती मेळयतना मनशान आपल्या भावभावनांचेर ताबो दवरूंक जाय अशे विचार ताणें उकतायल्ले. नितीशास्त्र आनी राज्यशास्त्र हातूंतले कांय विशय सोडून तो मॅकियावॅलीकडेन सहमत आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**बेकारी :** कामाचो अभाव म्हळयार बेकारी. सादारणपणान बाजारांत चालू आशिल्ल्या पगाराचें मोल आपणावन काम करपाची इत्सा वा तयार आशिल्ल्या त्या काम करप्याक जर काम मेळूंक शकलेंना जाल्यार ताचो आस्पाव 'बेकार' म्हणून करूं येता आनी अर्थवेवस्थेंतले अशे स्थितीक बेकारीची परिस्थिती म्हणूं येता. अर्थवेवस्थेच्या पांवड्याचेर काम करपाक तयार आशिल्ल्यांचे संख्येपरस काम उपलब्धताय उणी आसत जाल्यार ते अर्थवेवस्थेंत 'बेकारी' आसा अशें म्हण्टात. बेकारीची व्याख्या आनी मापन करतना खूब आडमेळीं येतात. खंयचे पिरायेच्या मनशांचो आस्पाव बेकारांमदीं करचो? घरच्या उद्देगांत बिनपगारी काम करपी कुटुंबांतल्या वांगड्यांची गणना खंय करची? उण्यांत उणो कितलो काळ काम केल्यार त्या मनशाक काम उपलब्ध आसा अशें म्हणूं येता? तात्पुरत्या कारणाखातीर मनीस बेरोजगार जाल्यार ताचो आस्पाव खंय करचो? ह्या साबार प्रस्नांक लागून त्या त्या वेळार धोरणात्मक उद्देशांवरवीं बेकारीची व्याख्या आनी मापन करतात.

**बेकारेचे प्रकार :** सनातनवादी अर्थशास्त्रज्ञांच्या मतान विकसीत देशांतली अर्थवेवस्थेची हालचाल पुराय रोजगाराचे परिस्थितीचे दिकेन आसता. अशा अर्थवेवस्थांभितर चालू पगाराचेर काम करपाची तयारी आशिल्ल्या दर एका काम करप्याक काम मेळूंक शकता. हाचो अर्थ, अर्थवेवस्थेचे समतोल परिस्थितींत बेकारी आसूंक शकना. पूण प्रा. जॉन मेनार्ड केन्स हाका हो दावो मान्य ना. ताच्या मतान 'अनैच्छिक' (structural) बेकारेंत कामगार चालू वास्तव पगारापरस उण्या वास्तव पगाराचेर काम करपाक तयार आसता. खरेपणान तो पयशाच्या स्वरुपांत उणो पगार मान्य करता वा करिना हाका म्हत्व ना. हाचो अर्थ खंयच्याय उत्पादक वेवसायांत काम (रोजगारी) आसप म्हळयार बेकारेचो अभाव असो जावंक शकना. लोक जेन्ना एक आदेस काम करतात वा योग्यतायेपरस उणे प्रतीचें काम करतात तेन्ना तो बेकारेचोच एक वांटो मानूंक जाय.

**मतभेदात्मक वा संघर्शात्मक बेकारी :** विंगड विंगड कारणांक लागून लोक आपलें चालू आशिल्लें काम सोडून दितात. कांय खेपे तांकां आपलें काम पसंत नासता वा मालकांकडेन मतभेद जातात. काम म्हळयार वजेंशें दिसता, अशा साबार प्रकारांच्या मतभेदांक लागून कामां सोडून दितात. नवें काम मेळपाक वेळ लागता. ह्या प्रकाराची बेकारी कांय दिसांइतलीच आसता आनी तिचो अर्थवेवस्थेचेर व्हडलोसो परिणाम जायना.

**रचनाबंधात्मक बेकारी :** अर्थवेवस्थेंतल्या विंगड विंगड घटकांचो मेळ फावो ते रितीन जालोना जाल्यार अशी बेकारी निर्माण जाता. प्रादेशिक, कौशल्याविशयक वा खंयच्याय संबंदीत घटकांचो मेळ योग्य रितीन ना जाल्ल्यान बेकारांची संख्या आनी उपलब्ध रोजगारी हांचे भितर फरक निर्माण जाता. कांय खेपे मोल देंवून बाजारांत मंदी सुरू जाता, हाका लागून संयोजकांचो फायदो उणो जायत वता आनी तूट येता. अशे परिस्थितींत संयोजक उत्पादन उणें करून दर वाडोवपाचो यत्न करता. पूण हाचोय ताका लाव जायना. मोल आनीक देंवूक लागता. कांय कारखाने बंद पडटात. सबंद दीस काम करपी कारखाने अर्दो वेळ चलपाक लागतात. बेकारी वाडत वता. गिरायकाच्या हातांतलो पयसो उणो जायत रावून मागणी (demand) उणी जाता. हाका लागून दर आनीक देंवतात. हें चक्र कांय तेंप अशेंच चालू रावता. हें बेकारेचें एक म्हत्वाचें कारण आसा.

**न्यून मागणीनिर्मीत बेकारी :** पुराय रोजगारीचे परिस्थितींत निर्माण जावपी सगळें उत्पादन विकतें घेवपाक वट्ट मागणी उणी पडटा तेन्ना बेकारी निर्माण जाता. हाचें कारण म्हळयार उत्पादन खपूंक नाशिल्ल्यान उत्पादन उणें करचें पडटा. हाका लागून कांय कामगारांक कामावयल्यान काडटात.

**लिपून राविल्ली बेकारी :** जेन्ना कामगारांक तांचे गुणवत्तेक योग्य अशा कामावयल्यान काडून उडयतात वा तें काम तो सोडून वता. उपरांत ताचे कार्यक्षमतायेक आनी कुशळतायेक योग्य अशें काम मेळना. तेन्ना ही तांची एका प्रकारची बेकारीच आसता. फावो नाशिल्ल्या कामांत ताची कार्यक्षमताय फुकट वचत आसता.

**एक आदेस बेकारी :** कामगाराक दिसांतलीं फकत तीन ते चार वरांच काम उपलब्ध आसता वा वर्सांतले कांय म्हयनेच काम मेळटा. भारत देशांतल्या शेतकामत्यांक सादारणपणान तीन ते चार म्हयने काम मेळटा. उरिल्ले तीन ते चार म्हयने उणें वा अपूर्ण काम आसता. कांय उद्देग वा वेवसाय हंगामी आसतात. देखीक- साकर उद्देग, फळांचो उद्देग आनी हेर. अशा उद्देगांनी खाशेल्या हंगामानीच कामगारांक काम मेळटा. हेर तेंपार ते बेकार आसतात.

सगळे तरेची बेकारी ही एक वायट परिस्थिती. बेकारेच्या तेंपार बेकार मनशाचें राहणीमान खालावता आनी ताच्या कुटूंबाचे हाल जातात. तशेंच राश्ट्रीय उत्पन्नांत त्या प्रमाणांत उणाव येवन हेरांचे जिणेचेरूय वायट परिणाम जातात. १९२९ सावन सुरू जाल्ले म्हामंदीचो आघात

विश्वव्यापी आनी चड खर आशिल्लो. तेन्नासावन ह्या विशयाचेर खोलायेन अभ्यास जावपाक लागलो. प्रा. केन्स आनी ताच्या समान विचाराच्या अर्थशास्त्रज्ञांनी नवे विचार मांडून एक नवें अर्थशास्त्र तयार केलें. ह्या विचारांक वा येवजणेक 'सामाश्टिक अर्थशास्त्र' (Macroeconomics) अशें म्हण्टात. ह्या विभागांत शासनाच्या धोरणाचे चार उद्देश सांगल्यात- १) बेकारेचो पांवडो उण्यांत उणो आनी थीर राखप, २) मोल वा दराचो पांवडो तुळात्मक नदरेन थीर राखप, ३) आंतरराश्ट्रीय वेव्हारांत समाधानकारक समतोल राखप आनी ४) अर्थीक विकासाचो नेट वाडयत रावप.

बेकारेचें विश्लेशण केल्यार विकसीत तशेंच विकसनशील देशांनी बेकारी ही आसताच हें दिश्टी पडटा. बेकारेचीं कारणांय विंगड विंगड आसतात.

**१) शारिरीक वा मानसिक अक्षमताय :** सगळ्या देशांनी कांय मनशां अशीं आसतात जांकां कसलेंय अर्थोत्पादक कार्य करपाक तांक नासता. कांय थोंटे, भेड्डे, कुड्डे मोने हांकां अर्थोत्पादक कार्य करपाक तांक नासता. कांय मनशांक मानसिक त्रास आसतात. कांय मनशां अर्दकुटीं वा साप पिशीं आसतात. तांकांय अर्थोत्पादक कार्य करपाक शक्य नासता. हीं मनशां बेकार आसतात आनी समाजीक तजविजांचेर आदारिल्लीं आसतात. कांय लोक जाणट्यांनी दवरिल्ले मालमत्तेचेर मजेची जीण जियेतात जाल्यार कांय लोक धडधाकट आसून लेगीत आळशी आशिल्ल्यान काम करिनात.

**२) आभासमय बेकारी :** अज्ञानी भुरगीं आनी आपल्याच कुटूंबाचें काम करपी बायलो, तांकां अर्थीक येणावळ मेळटली म्हणून वावर करतात, अशें न्हय. ताका लागून तांचो वावर अनुत्पादक थरता. भुरगीं शिक्षण घेता आसतना तीं पुरायपणान आपल्या आवय बापायचेर आदारिल्लीं आसतात.

**३) प्रतिक्षा काळांतली बेकारी :** शिक्षण, प्रशिक्षण पुराय करून पात्रताय मेळ्ळेउपरांत वा एक काम सोडून दुसरें काम सोदतना कांय काळ लागता. जण एकल्याक आपले पात्रतायेप्रमाण काम मेळचें अशें दिसता. एकदां जर उणे प्रतीचें काम आपणायलें जाल्यार मुखार फावो तें काम मेळपाक खूब आडमेळीं येतात. म्हणून कांय तरनाटे बरें काम मेळसर बेकारूच रावप पसंत करतात. उदरगत जाल्ल्या देशांनीय हो प्रश्न सतायता.

**४) उत्पादन तंत्रांतलो बदल :** उद्देगीक वा शेतवडींतल्या उत्पादनतंत्रांत एकसारको बदल जायत आसता. चडशी तंत्रीक सुदारणा श्रमपर्यायी आसता. ताका लागून कांय तेंप कांय प्रमाणांत बेकारी निर्माण जाता. कांय उपाय-येवजणांक लागून यंत्रतंत्रांत सुदारणा करून उत्पादन खर्च उण्या पांवड्याचो आनी कार्यक्षमताय चडांत चड पांवड्याचेर हाडटात. ह्या उपक्रमांत कांय तेंपमेरेन थोडी-भोव बेकारी अटळ आसता. देखीक-पोरन्या तंत्राप्रमाण कसपी ३०० एकर शेतांत २५ कामगार आनी ८ जोतां लागतात. ह्या शेतांत ट्रॅक्टर ट्रॉली आनी हेर यंत्रीक वस्तू हाडल्यार कांय कामगार आनी जोतां बेकार जातात.

**५) हंगामी उद्देगांतली बेकारी :** साकर उत्पादन, फळोद्योग असल्या कांय उद्देगांचें स्वरूप हंगामी आसता. हाकालागून अशा उद्देगांनी सदांखातीर वावुरपी कामगार वर्ग चडसो नासता. असो कामगार वर्ग हेडपी आसता. शेतवडीचो धंदो लेगीत हंगामी आसता. नांगरणी, उपणी, नडणी, लुवणी, मळणी अशे कामाचे तेंप आसतात. त्या वेळार बेकारांक कामां मेळटात. उपरांत तांचेर बेकार रावपाची पाळी येता. बांदकाम उद्देगूय हंगामीच आसता.

**६) लादिल्ली बेकारी :** कांय वेळार कामगार संपार वतात. सगळेच खेपे संप फळादीक जाता अशें ना. कांय संप एका वर्सापरस चड तेंप उरतात. लाखांनी कामगार ह्या वेळार बेकार जातात. संप फाटीं घेतल्या उपरांत हजारांनी कामगारांक कामावयल्यान काडून उडयतात.

**७) प्रगत देशांतली रचनाबंधात्मक बेकारी :** विकसीत देशांनी अर्थीक आनी समाजीक रचनाबंधांत विसंगती निर्माण जाल्ल्यान बेकारी वयर सरता. अर्थवेवस्थेंत मोल व्यय प्रमाणांत विशमतोल निर्माण जाल्यार भांडवल सामुग्री आनी फावो आशिल्लीं साधनां उणीं पडल्यार आनी प्रभावी मागणी देंवल्यार बेकारी निर्माण जाता. अशे परिस्थितींत फायदो सोंपून तूट येवपाक लागता. जेन्ना उत्पादनांत उत्पादनापरस व्यय (Expenditure) जावपाक लागता तेन्ना उत्पादकांक आदलेपरीन उत्पादन चालू दवरून सगळ्या कामगारांक कामार दवरपाक शक्य नासता. ताचेमुखार एकूच उपाय आसता. उत्पादन उणें करून चड कामगारांक काडून उडोवप.

आयज अस्तित्वांत आशिल्ली सगळ्या प्रकारांची बेकारी भारतांत मेळटा. भारत आनी हेर फाटसारिल्ल्या देशांतले बेकारेचें मुखेल कारण म्हळ्यार निरक्षरतायेचें व्हड प्रमाण. हांगा तंत्रीक शिक्षणाची व्हडलीशी तजवीज ना. देशभर तंत्रीक शिक्षणाची तजवीज केल्यार लेगीत स्वतंत्र उद्देग उबारप खूब कठीण आसता. तंत्रीक शिक्षण घेतिल्ल्या सगळ्या भुरग्यांक शासन नवे उद्देग सुरू करून तांचो उद्देगांत आस्पाव करूंक शकना. ताका लागून तांची बेकारी वाडटा. देशांत बेकारेचें चडशें प्रमाण गांवगिऱ्या वाठारांनी दिश्टी पडटा. ह्या वाठारांचे दोन प्रकार आसात-हंगामी बेकारी आनी बाराय म्हयने बेकारी. गांवगिऱ्या वाठारांनी ७० ते ८०% लोक शेतवड उद्देगांत घुस्पल्ले आसतात. शेतकी वेवसायाचें स्वरूप हंगामी आशिल्ल्यान ह्या लोकांचें कामूय हंगामी आसता. राज्यांराज्यांतल्यान ही परिस्थिती थोडीभोव वेगळी आसता. पूण सादारणपणान वर्सांतले ५ ते ७ म्हयने चड प्रमाणांत बेकारी आसता.

भारताची लोकसंख्या वाडत आसा आनी हे वाडटे लोकसंख्येवांगडा कामगारांचीय संख्या वाडत गेली. शारांतले उद्देगधंद्याचे वाडीक लागून गांवगिऱ्या वाठारांतल्यान शारांकडेन लोकांचो चोमो येवपाक लागलो. ताका लागून शारांतली लोकसंख्या वाडली पूण हे वाडटे लोकसंख्येच्या मानान उद्देगधंदे वाडलेनात. अशे रितीन शारांनी उद्देगीक बेकारी वाडली.

सुशिक्षीत मध्यम वर्गियांची बेकारी हो एक व्हड प्रश्न. स्वातंत्र्योत्तर काळांत माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शिक्षणाचो प्रसार नेटान जायत रावलो. पूण त्या मानान तांकां फावो तशीं कामां मेळिळ्नात. तशेंच तंत्रीक शिक्षणापरस सामान्य (बीन तंत्रीक) शिक्षणाचो प्रसार चड जालो. उद्देगीक विकासांत असल्या शिक्षितांक व्हडलीशी सुवात ना. आयज भारतांत सुशिक्षीत बेकारेचें प्रमाण खूब आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बेकेसे, गेऑर्ख फोन :** (जल्म : ३ जून १८९९, बुडापॅस्ट - हंगेरी; मरणः १३ जून १९७२, होनोलूलू).

अमेरिकन (मूळ हंगेरीयन) भौतिकशास्त्रज्ञ. ताचें सुरवातीचें शिक्षण म्युनीक, कॉन्स्टँटिनोपल (इस्तांबूल) आनी बुडापॅस्टांत आनी झुरीकांतले एके खाजगी शाळेंत जालें. स्वित्झर्लंडांतल्या बर्न विद्यापिठांत ताणें रसायनशास्त्राचो अभ्यास केलो. १९२३ त ताणें बुडापेस्ट विद्यापिठाची भौतिकशास्त्रांतली पीएच. डी. पदवी मेळयली आनी त्याच वर्सा हंगेरीयन टपाल खात्यावरवीं चलतले संशोधन प्रयोगशाळेंत तो काम करूंक लागलो. थंय ताणें १९४६ मेरेन काम केलें. मदल्या कांय काळांत ताणें कांय म्हयने बर्लिनांतल्या सीमॅन्स आनी हालस्के ए. जी. हे दूरसंदेशवहन विशयांत संशोधन करतले कंपनीचे प्रयोगशाळेंत काम केलें.

टपाल खात्याचे प्रयोगशाळेंत तो लांब अंतर आशिल्ले दूरध्वनी यंत्रणेंतल्या इबाडांच्या कारणांविशीं संशोधन करतालो. तेखातीर ताणें मनशाच्या कानाचे रचणुकेचो आनी वावराचो खोलायेन अभ्यास केलो. कर्णशंबुकाचें (cochlea) कार्य ते मेरेन खबर नाशिल्लें. तें समजुपाच्या हेतान बेकेसे हाणें कर्णशंबुकाची एक प्रतिकृती तयार केली. ही प्रतिकृती प्लास्टिकाची उदक भरिल्ली नळी आनी ३० सेंमी. लांबायेची कला (पातळ पड्डो) हांचे पसून तयार केल्ली. हे प्रतिकृतीचो वापर करून कानांतल्या कर्णशंबुक तरंगांतली कंप्रता विश्लेशण तंत्रिका-यांत्रिकीय पद्दतीन करता हें ताणें दाखोवन दिलें. ताका लागून कितलेशेच शेंकडे खबर नाशिल्लो कानाच्या कंप्रता विश्लेशणाचो गूढ प्रस्न सुटलो.

बेकेसे हाच्या ह्या सोदाक लागून आयकुपाविशींच्या कितल्याशाच गजालींचें स्पश्टीकरण जावपाक मदत जावन श्रवणेंद्रियाच्या मूळ सिध्दांताचेर बरेच परिणाम जाले.

टपाल खात्याचे प्रयोगशाळेंत १९३९-४६ ह्या काळांत काम करता आसतनाच बेकेसे बुडापॅस्ट विद्यापिठांत प्रयोगीक भौतिकशास्त्र ह्या विशयाचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९४६ त तो हंगेरी सोडून स्विडनाक गेलो आनी स्टॉकहोमांतल्या कॅरोलिन्स्का इन्स्टिट्युटांत ताणें संशोधन केलें. हांगा ताणें पिडेस्तांक स्वताच वापरूंक येतलें अशा श्रवणमापकाचो सोद लायलो.

१९४७त बेकेसे अमेरिकेक गेलो. अमेरिकेंत हावर्ड विद्यापिठाच्या मनो-ध्वनीकीय प्रयोगशाळेंत संशोधन-सहाय्यक म्हणून काम करतकच थंयच ताची १९४९ त मनोभौतिकी विशयांतलो वडील संशोधक म्हणून नेमणूक जाली. १९५६ त तो नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचेर वेंचून आयलो.

मनशाच्या कानाच्या 'भितरलो कान' ह्या विभागांतल्या ध्वनीसंदेशवाहक यंत्रणेच्या मोलादीक सोदाखातीर ताका १९६१ वर्साचो शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. वैजकीचो पदवीधर नासून लेगीत त्या शास्त्रांतल्या सोदाखातीर नोबॅल पुरस्कार मेळोवपी हो पयलोच भौतिकशास्त्रज्ञ.

- कों. वि. सं. मं.

**बेक्रेल, आंत्वान आंरी :** (जल्म : १५ डिसेंबर १८५२, पॅरीस; मरण : २५ ऑगस्ट १९०८, ल क्रवाझीक).

नामनेचो फ्रेंच भौतिकशास्त्रज्ञ. आलेक्सांद्र एदमाँ बेक्रेल हाचो तो पूत. एकोल पॉलिटॅक्निकांतल्यान पदवी मेळयतकच १८७४ त पूल आनी बांद बांदावळ खात्यांत ताची नेमणूक जाली. ह्या खात्यांत तो १८७७ त अभियंतो आनी १८९४ त मुखेल अभियंतो जालो. १८८८ त ताणें डॉक्टरेट पदवी मेळयली. १८७८ सावन ताणें पॅरीसांतल्या म्युझियम ऑफ नॅचरल हिस्टरींत सहाय्यक म्हणून तशेंच स्कूल ॲंड म्युझियम ऑफ आर्ट्स ॲंड क्राफ्ट्सांत ताच्या बापायचे सुवातेर अनुप्रयुक्त भौतिकीच्या अध्यासनाचेर काम केलें. १८९२ त म्युझियम ऑफ नॅचरल हिस्टरींत अनुप्रयुक्त भौतिकीच्या प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली आनी १८९५ तो एकोल पॉलिटेक्निकांत भौतिकीचो प्राध्यापक जालो.

बेक्रेल हाचें सुरवातीचें कार्य ध्रुवित उजवाडाच्या प्रतलाच्या चुंबकीय क्षेत्राक लागून जावपी वलन, धर्तरेच्या चुंबकत्वाचो तिच्या वातावरणाचेर जावपी परिणाम, प्रस्फुरणाचो आविश्कार आनी स्फटिकांनी उजवाडाचें जावपी शोशण हांचेविशीं आशिल्लें. डब्ल्यू. सी. राँटगेन हाणें लायिल्ल्या क्ष-किरणांच्या सोदाखातीर जानेवारी १८९६ त म्हायती मेळटकच सैमीक प्रस्फुरक पदार्थ हांचेसारक्या किरणांचे उद्‌गम आसतात काय किदें हाचेर संशोधन करपाकडेन बेक्रेल हाणें लक्ष घालें.

बापायकडल्यान ताका युरेनियम लवणांची पुरवण वारसोहक्कान मेळिल्ली. हीं लवणां उजवाडांत दवरल्यार प्रस्फुरण जातात. अपारदर्शक कागदी वेश्टणांतल्या छायाचित्रण कांचपट्ट्याच्या शेजरा हीं लवणां दवरल्यार कांचपट्ट्यांचेर तांचो परिणाम जावन त्यो धुंवरेतात, अशें ताका दिसलें. अभ्यास केल्ल्या सगळ्या युरेनियम लवणांविशीं हो आविश्कार दिसलो आनी ताचेवयल्यान युरेनियमाच्या अणूचो हो गूणधर्म असो निश्कर्श ताणें काडलो. युरेनियम आनी छायचित्रण पट्टी हातूंत धातूंचीं पदकां दवरून तांचीं छायाचित्रां बेक्रेल हाणें मेळयलीं. पदकांचे उणे-अदीक दाटायेक लागून युरेनियमासावन उत्सर्जीत जावपी प्रारणाचें वेगवेगळ्या प्रमाणांत आडावप जालें अशें ताका दिसलें. युरेनियमासावन उत्सर्जीत जावपी किरण वायूंचें आयनीकरण करतात आनी विद्युत् वा चुंबकीय क्षेत्रांक लागून तांचें विचलन जाता आनी हेविशीं ते क्ष-किरणांपरस वेगळे आसात अशें ताणें उपरांत दाखोवन दिलें. युरेनियमासावन उत्सर्जीत जावपी किरणांक कितलींशींच वर्सां 'बेक्रेल किरण' अशें नांव प्रचलीत आशिल्लें. सैमीक किरणोत्सर्गाच्या सोदाखातीर बेक्रेल हाका प्येअर क्यूरी आनी मारी क्यूरी हांचेवांगडा १९०३ वर्साचो भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार फावो जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**बेगम, अख्तर :** (जल्म : १४ मे १९१४, गुलबाडी-फैजाबाद, अयोध्या; मरणः ३० ऑक्टोबर १९७४, अहमदाबाद).

नामनेची गायिका तिच्या बापायचें नांव अगसर हुसेन आनी आवयचें नांव मुश्तरी बेगम. शालेय शिक्षणाची आवड नाशिल्ल्यान तिणें शाळा सोडली. आवय-बापायक दिसतालें, तिणें खूब शिकचें पूण तिका फकत गायन शिकपाची इत्सा आशिल्ली. तिची ही इत्सा पळोवन फुडें आवयन तिका सदांच प्रोत्साहन दिलें. सुरवेक तिणें इमदद खाँ हाचेकडेन संगिताचें शिक्षण घेवंक सुरू केल्लें. पूण ताणें सुरवातीकच संगिताचें उच्च शिक्षण सुरू केल्ल्यान तिचे पिरायेच्या मानान तिका ते पेललेंना आनी तिणें तें सोडलें. फुडें तिणें पिरायेच्या ५-६ वर्सांचेर पतियाळा घराण्याचो उस्ताद अता महमद खाँ हाचेकडेन गायनाचें शिक्षण घेवंक सुरवात केली.

कलकत्ता शारांत भूंयकांप निधी जमोवपाखातीर १९३८ त एक व्हड संगीत संमेलन घडोवन हाडिल्लें. पूण ऐन त्या वेळार कलाकार येवंक नाशिल्ल्यान तिणें गावंक बसचें असो तिका आग्रो जालो. तेन्ना आपले असामान्य गायकेक लागून ती पयलेच खेप भौसामुखार उजवाडाक आयली. गझल गायिका अख्तरबाई म्हणून तिका भरपूर नामना मेळ्ळी. सरोजनी नायडुनूय ते सभेंत तिची खूब तोखणाय केली. मायक्रोफोन कंपनीन तिची गझल ध्वनीमुद्रण केली. 'वो आसिरे दामे' ही तिची पयली गझल ध्वनीमुद्रिकेंत आयिल्ली. ताचे उपरांत ती नाटकांनी आनी सिनेमांनी कामां करूंक लागली. 'एक दिनका बादशहा' ह्या सिनेमांत तिणें नायिकेचें काम केल्लें. तातूंत तिणें गायिल्लीं गितां खूब गाजलीं. तिणें कांय फिल्मांक संगितूय दिलां. काश्मिरचो महाराज, रामपूरचो नवाब हांच्या वाड्यांत ती मैफली करताली.

१९४१ त ती मुंबय स्थायिक जाली. फुडें लखनौक वचून किराणा घराण्याचो उस्ताद वहीद खाँ हाचेकडेन तिणें गायनाचें शिक्षण सुरू केलें. १९४२त लखनौचो बॅरिस्टर इस्तियाक अहमद अन्वासी हाणें तिका मागणी घाली. तशेंच लग्नाउपरांत गावप बंद करचें अशी अट घाली. *तिकाय आपणें लग्न जावंचें, संवसार थाटचो अशी इत्सा जाली* आनी ताचे अटीक मान्यताय दिवन ती १९४३त लग्न जाली. उपरांत सुमार पांच वर्सां तिचें गायन बंद उरलें. पूण ह्या काळांत तिचो खरो पींड गावपाचो आशिल्ल्यान रियाज करपाची आनी गावपाची तिका उमळशीक लागिल्ली. तेन्ना १९५२ उपरांत मात तिचो खरो गावपाचो वेवसाय सुरू जालो. ह्या काळांत तिचो शिश्यवर्गूय आशिल्लो. शिश्यांभितर शांती हिरानंद ही तिची पट्टशिश्या. तेभायर तिच्या रिटा गांगुली, अंजली बॅनर्जी आदी शिश्यांक खूब नामना मेळ्ळ्या.

मैफलीक बसनाफुडेंच सुरेल सूर लागप हें तिचें खाशेलेपण. तिचे मैफलींत ती सदांच एक ठुमरी, उपरांत दादरा आनी मागीर गझली गायताली. तेभायर फर्माइश येता तेय प्रमाण ती गायताली. गीतकार कैफी आझमी, बेहजाद जिगर हांच्यो गझली गावन तिणें तांकां नामना मेळोवन दिल्या. सतारवादक अरविंद पारीख हाचेकडेन ती जाणटेपणांत सतार शिकूंक वताली. आपलेपरस पिरायेन तो ल्हान आसुनूय ती ताका गुरूचो मान दिताली. १९६८ त तिका पद्मश्री किताब फावो जालो. १९७२ तिका संगीत नाटक अकादमी पुरस्कार मेळ्ळो. १९७५ वर्सा भारत सरकारान तिका मरणाउपरांत पद्मभूषण किताब जाहीर केलो.

गीतकार कैकी आझमीच्यो गझली गावपाचो एक कार्यक्रम १९७४ त तिणें दूरदर्शनाचेर आंखिल्लो आनी ते निमतान ती दिल्लीक आयिल्ली तेन्ना तिची भलायकी बरीच खालावल्ली. तेखातीर तिणें विसव घेवंचो तशेंच तिणें गायनाचे जाहीर कार्यक्रम करचे न्हय असो दोतोरांनी तिका सल्लो दिल्लो. तरी आसतना तिणें मुबंय कार्यक्रम केलो आनी ती अहमदाबादेक गेली. थंय तिणें ३-४ वरांचो निमाणो कार्यक्रम केलो. 'मुहब्बत करनेवाले कम न होंगे, लेकिन तेरी महफील में हम न होंगे' ही तिणें जाहीर कार्यक्रमांत गायिल्ली निमाणी गझल. अहमदाबाद हांगा २८ ऑक्टोबर १९७४ ह्या दिसा ३-४ वरां गायले उपरांत तिका घुंवळ आयली. उपरांत ३० ऑक्टोबर १९७४ ह्या दिसा तिका मरण आयलें. जिणेच्या निमाण्या दिसामेरेन आपणें गावचें अशी जी इत्सा आशिल्ली ती तिणें खरी करून दाखयली.

- शकुंतल आरसेकार

**बेगीन, मेनाशेम :** (जल्म : १६ ऑगस्ट १९१३, ब्रेस्ट-पोलंड).

इझ्रायलाचो प्रधानमंत्री (१९७७-८२) आनी शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो सहमानकरी. ताचो जल्म एका सामान्य कुटुंबांत जालो. बापायचें नांव झीव्हडोव्ह आनी आवयचें हसिया. ब्रेस्टांत सुरवातीचें शिक्षण घेवन ताणें मिझ्राशी हिब्रू विद्यालयांतल्यान कायद्याची पदवी घेतली. ताचेपयलींच विद्यार्थी आसतना पोलंडांतल्या बेतार झायनिस्ट तरनाट्यांचे चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो (१९२९). फुडें ताणें ज्यू विद्यार्थी संरक्षण दलाची स्थापणूक करपाक फुडाकार घेतलो (१९३२). ह्याच सुमाराक तो ॲलीझ आर्नल्ड हिचेकडेन लग्न जालो. ताका एक चलो आनी दोन चलयो आसात.

बेतार दळांत आसतना ताणें वेगवेगळ्या नेमाळ्यांतल्यान आपले चळवळीच्या प्रसार-प्रचाराखातीर उपाट बरप केलें. चॅकोस्लोव्हाकियांतल्या बेतार गटाचो मुखेल सेनापती म्हणून ताची नेमणूक जाली (१९३६). ज्यू स्वातंत्र्य चळवळींतल्या ताच्या ह्या कारवायांक लागून ताका पोलंडी शासनान अटक केली आनी उपरांत बंधनागारांत दवरलो (१९४०-४१). थंयच्यान सुटकच तो इझ्रायलांतल्या इर्ग्यून रबाई ल्यूमी हे सशस्त्र सेनेचो मुखेल सुत्रधार आनी सेनापती जालो (१९४२).

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या निमाण्या दिसांनी ताणें ब्रिटिशांक गनिमी झूजतंत्राचो वापर करून नाकाजीव केले. तेन्ना ताका धरपाखातीर ब्रिटिशांनी व्हडलें इनाम जाहीर केलें. ताणें हेरत (स्वातंत्र्य) ही संघटना इझ्रायलांत स्थापन केली (१९४८). तेउपरांत रोखडेंच इझ्रायलाक स्वातंत्र्य मेळ्ळें (१९४८). त्या वेळार इर्ग्यूनचें रुपांतर इझ्रायली सैन्यांत जालें. तातूंतल्या कांय निवृत्त सेनाधिकाऱ्यांनी राजकीय पक्ष स्थापन केलो. ह्या पक्षाचें नांव 'झायनिस्ट पक्ष' अशें आशिल्लें. पूण उपरांत त्या पक्षाचो एका उजव्या उदारमतवादी पक्षांत आस्पाव जालो आनी त्या पक्षाचें नांव लीकूड अशें रूढ जालें. त्या पक्षावरवीं बेगीन इझ्रायलाचे संसदेचेर (सेनेट) वेंचून आयलो आनी बिनखात्याचो मंत्री म्हणून ताची नेमणूक जाली (१९६७-७०). फुडें इझ्रायलांतल्या मजूर पक्षाची हार जावन ताचो लीकूड पक्ष वयर आयलो. तेन्ना संयुक्त मंत्रीमंडळांचें फुडारपण ताचेकडेन आयलें आनी तो प्रधानमंत्री जालो (१७ एप्रिल १९७७).

प्रधानमंत्री जातकच ताणें देशांतले प्रतिगामी आनी पुरोगामी अशे परस्पर विरोधी गट एकठांय हाडून देशाचे सर्वांगीण उदरगतीखातीर सगळ्या तरांचे यत्न करपाचें थरयलें. मध्य उदेंत वाठारांत सेगीत चालू आशिल्लो अरब इझ्रायल संघर्श संपुश्टांत हाडपाखातीर ताणें इजिप्ताकडेन इश्टागतीचे संबंद जोडले. हाचो परिणाम म्हणून अमेरिकेचे मध्यस्थीन इजिप्त-इझ्रायलांत कँप डेविडार शांतताय कबलात जाली (१९७८). ताच्या ह्या मोलादीक वावराखातीर इजिप्ताचो अध्यक्ष अन्वर सादात हाचेवांगडा ताका शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान केलो (१९७८).

हे कबलातीक लागून इझ्रायलाचे संबंद हेर अरब राश्ट्रांकडेन चडूच इबाडले. आपल्या देशाची राखणेवेवस्था भक्कम करून अमेरिकेकडेन इश्टागतीचे संबंद जोडप आनी अरब राश्ट्रांचेर सतत चेपण दवरप, हें ताच्या धोरणाचें मुखेल सुत्र आशिल्लें. हाचो परिणाम म्हूण बैरूतांतल्या पॅलेस्टिनी मुक्तीसेनेचें केंद्र निकामी करपाखातीर इझ्रायलान जून १९८२ त लॅबानॉनाचेर हल्ले सुरू केले.

एक बरो लेखक, वकील आनी मुत्सद्दी म्हणून संवसारीक राजकारणांत ताणें नामना मेळयल्या. ताच्या मार्गदर्शनाखाल इझ्रायलाची सगळ्याच मळांचेर उदरगत जायत रावली. ताणें The Revolt (१९४९) आनी The white knights (१९७७) हीं पुस्तकां बरयल्यांत.

- कों. वि सं. मं.

**बेझंट, ॲनी :** (जल्म : १ ऑक्टोबर १८४७, लंडन; मरण : २० सप्टेंबर १९३३, अड्यार).

नामनेची थिऑसॉफिस्ट आनी भारतीय राजकारण, धर्म, शिक्षण, समाजसुदारणा आदी मळांचेर व्हड वावर केल्ली एक ब्रिटीश बायल.



तिची आवय एमिली ही आयरिश आशिल्ली. ती धर्मीक, कामसू आनी मानी आशिल्ली. तिचो बापूय विल्यम वूड होय मातृवंशा-कडल्यान आयरिशच आशिल्लो.तो विद्वान, गिन्यानी आनी जायत्या भाशांचो जाणकार आशिल्लो. ती पांच वर्सांची आसतना, १८५२ त तिचो बापूय मेलो. तेन्ना तिचे आवयचे एके गिरेस्त इश्टिणीन तिका शिक्षणाखातीर आपल्यागेर दवरली. थंय तिणें तिका जर्मन, फ्रेंच आदी भासो आनी संगीत हांचें शिक्षण दिलें. तशेंच तिचेमदीं समाजसेवेची आवड निर्माण केली. ह्या काळांत ती वृत्तीन धर्मीक जाली. फुडें १८६७ त रॅव्ह फ्रॅंक बेझंट ह्या क्रिस्तांव धर्मोपदेशाकाकडेन तिचें लग्न जालें. तिका दिग्बी हो चलो आनी मेबॅल ही चली अशीं दोन भुरगीं जालीं.

'नॅशनल रिफॉर्मर' नेमाळ्याच्या प्रभावान ती नामनेचो नास्तीक चार्ल्स ब्रॅडलॉ (१८३३-९१) हाच्या 'नॅशनल सॅक्यूलर सोसायटी' त गेली (१८७४). फुडें ती हे सोसायटीची उपाध्यक्षा जाली आनी सोसायटीचें मुखपत्र आशिल्ल्या नॅशनल रिफॉर्मराची सहसंपादिका जाली. त्या काळांत नास्तिकता, कुटूंब येवजण, बायलांचो मतदानाचो हक्क आदींचो प्रचार

केल्ल्यान तिका जायत्या समाजीक विरोधांक तोंड दिवचें पडलें. तिचेर खटलेय भरिल्ले. १८८५ त ती 'फेबिअन सोसायटीची' वांगडी जाली. जॉर्ज बर्नार्ड शॉ आनी हेर समाजवादी विचारवंतांच्या सांगातान तिणें समाजवादाचो प्रचार केलो. लंडनांत पयलें ट्रेड युनियन स्थापन करपाक तिचोच हातभार लागिल्लो. १८८८ त तिणें फस्कांच्या कारखान्यांत वावर करपी ७०० चलयांचो संप घडोवन हाडलो आनी कामगारांचें बळगें दाखोवन दिलें. बरप आनी उलोवपां हांचेवरवीं तिणें समाजसुदारणेखातीर खूब वावर केलो.

१८८९ त थिऑसॉफिकल सोसायटीची संस्थापिका मॅडम हॅलेना ब्लाव्हेट्स्की (१८३१-९१) हिच्या दोन खंडांनी उजवाडाक आयिल्ल्या 'द सीक्रेट डॉक्ट्रिन' ह्या ग्रंथाचो तिचेर प्रभाव पडलो. ती ब्लाव्हेट्स्की हिची शिश्या जाली. १८९१ त ती मरतकच ॲनी बेझंट हे सोसायटीची वांगडी जाली. फुडें १९०७ त कर्नल ऑल्कटच्या मरणाउपरांत थिऑसॉफिकल सोसायटीची अध्यक्षा म्हणून प्रचंड भोवमतान तिची निवड जाली. पिरायेचे अखेरमेरेन तीच अध्यक्षा आशिल्ली.

१८९३ वर्सा ॲनी बेझंट भारतांत आयली. तिणें भारतांत हिंदू धर्म आनी संस्कृतायेचो खोलायेन अभ्यास केलो. आपूण पयल्या जल्मांत हिंदू आशिल्ली आनी ह्या जल्मांत, जल्मान न्हय पूण श्रध्देन तरी हिंदू आसा, अशें ती मानताली. तिणें भारतभर भोंवडी करून रामायण, महाभारत, उपनिषद आदींचेर जायतीं व्याख्यानां दिलीं. गीतेचो इंग्लीश अणकार केलो (१९०५). भारतीयांनी आपली पुर्विल्ली परंपरा विसरची न्हय, म्हणून तिणें भारताच्या पुर्विल्ल्या दायजाचें चित्र लोकांमुखार उबें केलें.

१८९८ वर्सा तिणें बनारसांत सँट्रल हिंदू कॉलेज सुरू केलें आनी सरकारी अनुदान घेना आसतना तें चलयलें. ताच्याच आदाराचेर फुडें बनारस हिंदू विश्वविद्यालयाची स्थापना जाली. ह्या विश्वविद्यालयान तिका मानादीक डी. लिट दिवन तिचो भोवमान केलो. १९१७ त तिणें 'Indian Boys Scout Association' ची स्थापना केली. तेभायर १९१५ त मदनपल्लीक नॅशनल कॉलेज, राश्ट्रीय शिक्षणाक चालना दिवपाखातीर १९१७ त एक संस्था आनी १९१८ त अड्यारांत (चेन्नई) 'नॅशनल युनिव्हर्सिटी'ची स्थापना केली. १९१७ त तिणें विमॅन्स इंडियन असोसिएशनाची स्थापना केली.

राजकीय उदरगतीबगर भारताची उदरगत जावप शक्य ना हें वळखून ॲनी बेझंट राजकारणांत आयली. १९१४ त तिणें चेन्नईंत 'कॉमनवील' आनी 'न्यू इंडिया' हीं दोन नेमाळीं सुरू केलीं. १९१६ त तिणें होम रूल लिगाची स्थापना केली. पयलें म्हाझूज सुरू जातकच ब्रिटिशांची अडचण तीच भारतीयांची संद अशें तिणें घोशीत केलें. १५ जून १९१७ दिसा चेन्नई सरकारान तिका उटकमंडांत तीन म्हयने स्थानबध्द केली. १९१७ वर्सा भारतीय राश्ट्रीय काँग्रेसीच्या कलकत्त्याच्या अधिवेशनाचें अध्यक्षपद तिका फावो जालें. तिणें जहाल आनी मवाळ पक्षांक एकठांय हाडपाचो यत्न केलो. पूण फुडें काँग्रेसीचें फुडारपण महात्मा गांधीकडेन गेलें. ताच्यो असहकारिता आनी रासवळ सत्याग्रह ह्यो चळवळी तिका मान्य नाशिल्ल्यान तिचें गांधीजीकडेन पटलेंना. तिका भारताखातीर स्वातंत्र्य जाय आसलें तरी भारतान कॉमनवेल्थांत रावचें अशें तिका दिसतालें.

वक्तृत्व, पांडित्य, असामान्य स्मरणशक्ती, जल्मान ब्रिटीश आसून लेगीत भारताविशींचें आपलेपण, समाजाचे उदरगतीची तळमळ ह्या गुणांक लागून तिचें व्यक्तिमत्व अश्टतासांचें जाल्लें. देखुनूच ती ज्या ज्या मळार गेली त्या त्या मळार तिका फुडारपण मेळ्ळें.

- कों. वि. सं. मं.

## बेटे, हान्स आल्ब्रेख्ट : (जल्म : २ जुलय १९०६, स्ट्रासबुर्ग - जर्मनी)

नामनेचो अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण फ्रँकफुर्ट आनी म्युनिकांतल्या विद्यापिठांनी जालें. १९२८ त ताणें डॉक्टरेट मेळयली. १९२८-३३ ह्या काळांत ताणें फ्रँकफुर्ट, स्टुटगार्ट, म्युनिक आनी ट्युबिंगेनांतल्या विद्यापिठांनी शिकयलें. ऑक्टोबर १९३३ तो इंग्लंडाक गेलो आनी फुडलीं दोन वर्सां मँचेस्टर आनी ब्रिस्टलांतल्या विद्यापिठांनी ताणें शिकयलें. फेब्रुवारी १९३५ त अमेरिकेंतल्या कॉर्नेल विद्यापिठांत सहाय्यक प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९३७ त ताका प्राध्यापकपद मेळ्ळें आनी तेउपरांत तो थंयच रावलो..दुसऱ्या म्हाझूज काळांत ताणें मॅसॅच्युसॅट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजीच्या रेडिएशन लॅबोरेटरींत सूक्ष्मतरंग रडाराविशीं काम केलें, तशेंच लॉस ॲलॅमॉसांतल्या पयल्या अणुबाँब प्रकल्पांत सैध्दांतिक भौतिकी विभागाचो संचालक म्हणून वांटो घेतलो. ह्या प्रकल्पांत ताचेकडेन यशस्वी अणुस्फोटाखातीर गरज आशिल्ली युरेनियमाची वा प्लुटोनियमाची राशी आनी अशा अणुस्फोटांतल्यान निर्माण जावपी वट्ट उर्जा निर्धारीत करप हीं कामां सोंपयल्लीं. ह्याच काळांत ताणें आघात तरंगांच्या सिध्दांताविशीं संशोधन केलें आनी हो अणभव ताका अणुबाँबावयल्या आनी उपरांत अण्वस्त्रांच्या परिणामांविशींच्या कामांत उपेगी थारलो.

बेटे हाचें मुखेल कार्य अणुकेंद्रीय सिध्दांताविशीं आसा. आर. ए. पिअर्ल्स हाचेवांगडा ताणें १९३४ त ड्यूटेरॉनाविशींचो सिध्दांत विकसीत केलो आनी फुडें १९४९त ताचो विस्तार केलो. १९३५-३८ ह्या काळांत अणुकेंद्रीय विक्रियांचो अभ्यास करून ताणें कितल्याशाच विक्रियांच्या संभाव्यतायदर्शक काटच्छेदांचें भविश्य सांगिल्लें ह्या कार्याच्या संदर्भांत ताणें नील्स बोर हाचो संयुक्त अणुकेंद्राचो सिध्दांत विकसीत केलो.

अणूकेंद्रीय विक्रियांवयल्या आपल्या कार्यांतल्यान बेटे हाणें ताऱ्यांक उर्जेची पुरवण करपी विक्रियांचो सोद लायलो. आघात सिध्दांतांत ताणें अस्थितीस्थापक आघातांविशींचो सादो पूण प्रभावी सिध्दांत मांडलो. ह्या सिध्दांताचो उपेग ताणें उच्च वेगयुक्त कणांक थांबोवपाची पदार्थाची तांक निर्धारीत करपाखातीर केलो. विघातक अणूकेंद्रीय प्रारणांसावन मनशांचें संरक्षण करपाखातीर उपाय करपाचे नदरेन अणूकेंद्रीय विक्रियकांच्या अभिकल्पांत तशेंच अंतराळविरांचें विश्वकिरणांसावन संरक्षण करपाचे वेवस्थेंत बेटे हाचें हें कार्य म्हत्वाचें. १९४७त ताणें हायड्रोजन वर्णपटांतल्या लँब स्थानच्युतीचें स्पश्टीकरण दिलें आनी पुंज विद्युत् गतिकीचे आर्विल्ले उदरगतीची बुन्याद घाली. ते उपरांत ताणें कितल्याशाच सहकाऱ्यांवांगडा पाय मेसॉनांच्या प्रकीर्णनाविशीं आनी विद्युत् चुंबकीय प्रारणाक लागून जावपी तांचे निर्मितीविशीं संशोधन केलें. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांतूय ताणें अणूउर्जेविशीं संशोधन चालू दवरलें. पूण तें खास करून शक्ती निर्मिती सारक्या शांततामय उपेगांचे नदरेनूच आशिल्लें. १९५६-६४ ह्या काळांत काम करता आसतनाच ताणें १९५८ त अध्यक्षीय निःशस्त्रकरण अभ्यास समितीचो मुखेल म्हणून काम केलां.

अणूकेंद्रीय विक्रियांचो सिध्दांत आनी ताऱ्यांतल्या उर्जानिर्मितीविशींचो सिध्दांत हांचेविशींच्या म्हत्वाच्या संशोधनाखातीर ताका १९६७ वर्साचो भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**बेडन-पॉवेल :** (जल्म : २२ फेब्रुवारी १८५७, लंडन; मरण : ८ जानेवारी १९४१ न्येरी, केनया).

संवसारभर पातळिल्ले बालवीर संघटनेचो जनक. ताचें पुराय नांव रॉबर्ट स्टिफन्सन स्मिथ बेडन-पॉवेल. ताचो बापूय ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत प्राध्यापक आशिल्लो. तो तीन वर्सांचो आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयलें. ताचे आवयन ताका ल्हानाचो व्हड केलो. लंडनांतल्या चार्टर हाऊस हे शाळेंत शिश्यवृत्ती घेवन ताणें शिक्षण पुराय केलें.



१८७६ त तो भारतांतले तेरावे हुस्सार पलटणींत गेलो. थंय ताणें जायत्यो सुदारणा केल्यो. उपरांत ताणें भारत, अफघानीस्तान आनी दक्षिण आफ्रिकेंत बरीच कामगिरी केली. दक्षिण आफ्रिकेंतल्या बोअर झुजांत (१८९९-१९०२) मॅफेकिंग ह्या शाराची दुस्मानापसून सुटका करून बेसबरी कामगिरी केली. उपरांत ताका 'मेजर जनरल' म्हणून बडटी मेळ्ळी. दक्षिण आफ्रिकेंतल्या पुलीस दलाक ताणें वेवस्थीत रूप दिलें आनी इन्स्पेक्टर जनरल म्हणून १९०३ वर्सामेरेन काम केलें. १९०७ वर्सा तो लॅफ्टनंट जनरल जालो.

सैनिकी स्काऊटाखातीर ताणें बरयल्लें 'Aids to Scouting' (१८९९) हें पुस्तक शाळेंतल्या भुरग्यांखातीर उपेगी आशिल्लाचें पळोवन ताणें इंग्लडच्या ब्राऊनसी जुंव्यार पयलें स्काऊट-शिक्षण शिबीर घेतलें (१९०७). अशे तरेन ताणें बालवीर संघटनेची चळवळ सुरू केली. थोड्याच दिसांनी ही चळवळ जायत्या देशांनी पातळ्ळी. १९१० वर्सा ताणें आपली भयण ॲग्नेस बेडन-पॉवेल हिच्या आदारान चलयांखातीर 'वीरबाला' गर्ल गायड (girl-guide) ही संघटना स्थापन केली. चले आनी चलयांक संवसारांतले आदर्श नागरीक करप हो ह्या संघटनां फाटलो मुखेल हेत आशिल्लो. १९१० वर्सा तो सेवानिवृत्त जालो आनी आपलें फुडलें आयुश्य ताणें बालवीर संघटनेखातीर खर्चिलें.

१९१२ त तो ओलेव्ह सोम्स हिचेकडेन लग्न जालो. तेन्नाच्यान बीरबाला संघटनेची पुराय जापसालदारकी ताची बायल लेडी बेडन पॉवेल हिणें (१८८९-१९७७) घेतली. १९१२-१३ मेरेन बालवीर आनी वीरबाला ह्या संघटनांचीं पथकां बेल्जियम, हॉलंड, अमेरिका, भारत, चीन, रशिया, हवाई जुंवे आदी राश्ट्रांनी सुरू जालीं. संवसारभर पातळिल्ल्या ह्या संघटनांक पळोवन बेडन-पॉवेल आनी ताचे बायलेन सगळ्या राश्ट्रांक वेळच्या वेळार भेटी दिल्यो. १९२१ त आनी १९३७ त तीं भारतांत आयिल्लीं.

१९२० त लंडनांत भरिल्ल्या पयल्या आंतरराश्ट्रीय स्काऊट मेळाव्यावेळार (जांबोरी) सगळ्यांकडल्यान ताका 'संवसारांतलो मुखेल स्काऊट' (Chief Scout) हो भोवमान मेळ्ळो. १९२२ त 'बॅरोनेट' आनी १९२९ त फर्स्ट बेडन-पॉवेल ऑफ गिलवेल (गिलवेल हें इंग्लंडांतलें बालवीर शिक्षणाचें जागतीक केंद्र) जावपाचो मान ताका फावो जालो.

बेडन पॉवेल हाणें बरयल्लीं कांय उल्लेख करपासारकीं पुस्तकां अशीं- स्काऊटिंग फॉर बॉयस (१९०८), माय ॲडवॅंचर्स ॲझ अ स्पाय (१९१५), गर्ल गायडिंग (१९१७), व्हॉट स्काऊटस कॅन डू (१९२१), स्काऊटिंग ॲंड यूथ मुव्हमॅंटस (१९२९), लॅसन्स ऑफ अ लायफ टायम (आपजीण-१९३३), आफ्रिकन ॲडवॅंचर्स (१९३६), पॅडल युवर ओन कॅनो (१९३९).

- कों. वि. सं. मं

**पूरक नोंद :** बालवीर संघटना.

**बेडर :** दक्षिण भारतांतली एक शिकारी जात. तिका आंध्र प्रदेशांत 'बोया' म्हण्टात. ते स्वताक वाल्मिकीचे वंशज मानतात.

म्हैसूरांत बेडरांचे कन्नड आनी तेलुगू अशे दोन मुखेल भेद आसून हालू, माची वा म्यास, नायक, पल्लेगार, बारीक, कन्नैयन जाती आनी

किरातक अशो तांच्यो मुखेल पोटजाती आसात.

बेडर लोक कानडी उलयतात आनी बोया लोक तेलुगू उलयतात.

बेडर लोक हड्ड्याचेर लुगट बांदतात आनी कांबळ पांगुरतात. शेतांत काम करपी लोक भेंडाक एक चिमटो बांदतात. दंडाक आनी गळयांत तावज बांदतात. बायलो तोंडार आनी हातांचेर पाडून घेतात. हनुमान मंदिराचो पुजारी दादल्यांच्या दंडाचेर शंख आनी चक्र हांच्यो मुद्रा काडटा. अशें केल्ल्यान स्वर्गांत पावता असो तांचो भावार्थ आसा. हुलिगम्मा देवीचो प्रसाद म्हणून पोंवळीं आनी हतया दांतांच्या मणयांच्यो माळो गळयांत घालतात.

माची वा म्यास बेडर हे चड करून दोंगरांचेर रावतात. ते कोंबी वा दुकर खायनात पूण गायचें मांस खातात.

तिरुपती वेंकटरमण हो बेडर लोकांचो मुखेल देव. तशेंच ते मरिअम्मा, हुलिगम्मा, कनिमिरय, कनकरयन, पोलेरम्मा ह्या देवतांकूय भजतात. कार्तिक म्हयन्यांत ते नागाची पुजा करतात.

होस्पेटांतल्या म्यास बेडर लोकांमदीं भुरग्यांचे आवय-बापूय तांचीं लग्नां थरयतात. लग्ना दिसा न्हवरो-व्हंकल सव्यार बसतात. उपरांत पांच लग्न जाल्ले दादले न्हवऱ्याच्या आंगाक हळद लावन ताचेर तीन खेपे अक्षता उडयतात. पांच सवायशिणी बायलो व्हंकलेकूय तशेंच करतात. बोया लोकांचो न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेची निवड करता. उपरांत व्हंकलेचो बापूय न्हवऱ्याक एक दीस आपल्या घरा आपयता. मागीर लग्नाचो म्हूर्त थरयतात. देज म्हणून २०२ रुपया दिवपाची चाल तांचेमदीं आसा. लग्न चड करून व्हंकलेच्या घरांत करतात. न्हवऱ्या-व्हंकलेमदीं अंतरपाट धरतात. उपरांत भांगराचो मणी आशिल्लो काळो दोरो सगळयांचे संमतीन न्हवरो, व्हंकलेच्या गळयांत बांदता आनी व्हंकल-न्हवऱ्याच्या उजव्या हातांत कांकण बांदता. मागीर दोगांय एकामेकांकडेन एकनिश्ठ रावपाचो सोपूत घेतात. तांच्या लग्नसुवाळयांत संगीताक खूब म्हत्व आसता.

तांकां घटस्फोट पंचायतीकडल्यान घेवचो पडटा. घटस्फोट घेतिल्ले बायलेक विधवेभाशेन वागणूक मेळटा. पयलीं विधवेक लग्न जावपाक बंदी आशिल्ली पूण कोणाय दादल्यांवागडा तिका रावपाचें आसल्यार दोगांयनी ज्ञाती जेवण घालून आपली लग्न जावपाची इत्सा उक्तावप गरजेचें मानतात. ना जाल्यार तांचे संततीचेर बहिश्कार घालपाची चाल बेडर लोकांमदी आसा.

होस्पेटांतले उरू बेडर मड्याचेर नवें वस्त्र आनी फुलां घालतात. निसणीवयल्यान मडें मसंडेंत व्हरून पुरतात. णवव्या दिसा पिंड दितात. म्हैसूरांतले बेडर लोक मडीं लासतात आनी दुसऱ्या दिसा त्यो अस्थी पांच तंगिडू झुडपांचेर उडयतात.

हे लोक झुजारी. हैदर टिपू हाच्या सैन्यांत तांची व्हड प्रमाणांत भरती आशिल्ली. कुर्नूल जिल्ह्यांत तांकां चोर आनी घर-फोडपी म्हणून वळखतात. हातूंतले कांय जाण मेस्त, धवड म्हणून काम करतात. पूण चडशे लोक शेतकार. तांच्या गांवमुखेल्याक नायडू, डोरा वा सिंहासनबोया अशें म्हण्टात. तो जातींतलीं झगडीं सोडयता, गुन्यावकाराक ख्यास्त दिता.

बेल्लारी जिल्ह्यांतले बेडर लोक तुबक, भालो आनी जाळी घेवन पयलीं शिकारेक वताले. ह्या लोकांक व्यायामाचीय खूब आवड आशिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**बेताळ** : एक ग्रामदैवत. वेताळ ह्या मुळाव्या उतरा वयल्यान बेताळ हें उतर आयलां, अशें कांय भाशा जाणकारांचें मत आसा. व ब योः सावर्ण्य ह्या नेमाप्रमाण हिंदी भाशेंत जे प्रमाण व चें ब जाता तेच प्रमाण कोंकणी भाशेंतूय व चें ब जावन वेताळ हाचे बेताळ अशें उतर जालां अशें तांचें मत.



वैताळी ही वेताळाची आवय, मातृका म्हणून प्रसिध्द आसा. एकदां गिरिजा आनी शंकर एकांतांत विहार करतालीं, तेन्ना भैरव, हो शिवगण भायर पारो करतालो. गिरिजा जेन्ना ते अवस्थेंत भायर आयली तेन्ना भैरव तिच्या रुपाक भाळ्ळो. तो गिरिजाची वाट आडोवपाक लागलो. गिरिजाक भैरवाचे हे करणेचो राग आयलो. तिणें तिडकीन भैरवाक 'तूं मृत्यू लोकांत वचून पडटलो' असो शाप दिलो. त्या शापाप्रमाण हो द्वारपाल भैरव भुंयेचेर वैताळी हिगेर जल्माक आयलो. उपरांत वैताळीचो पूत म्हणून तो वेताळ ह्या नांवान प्रसिध्द जालो (शिवगतः२). खूब काळा उपरांत कांयकडेन ताका बेताळ अशेंय म्हणपाक लागले.

वसिष्ठ ऋषिचे कृपेन आनी कामाख्या देवीचे उपासनेन बेताळाक शिवगणांत मुखेल सुवात मेळळी अशें कालीका पुराणांत म्हळां. बेताळ हो शस्त्रधारी आसून ताची झुजारी वृत्ती महाभारत शह्यपर्व (४९,९६). मत्स्यपुराण आनी हेर ग्रंथांवरवीं उकती जाता. नवरस नारायण हाणें आपल्या शल्यपर्वांत बेताळाचो उल्लेख केला तो असो. कौरव-पांडव झुजा वेळार शकुनी पांडवांचो नाश जावंचो म्हणून मसंडेत वचून उकत्या आंगान मंत्रसाधना करपाक लागलो. मंत्रसिध्दीन ताणें क्षेत्रपाळ आनी बेताळ हांकां पांडवाआड खुबळायले. बेताळ पांडव सैन्याचेर उजो ओंकपाक लागलो. हाका लागून ताका आग्याबेताळ अशेंय म्हण्टात. ह्या आग्याबेताळाक उपरांत श्रीकृष्ण हाणें आपणाले युक्तीन शांत केलो.

बेताळ हो शिवसैनीक आसून, शिवान ताका भुतांखेतांचें अदिपत्य दिलां. हाका लागून कोणाकूय जर भुतान झपाटलो जाल्यार मंत्रीक बेताळाक साद घालता. हाका लागून ताका भूतनाथ अशेंय म्हण्टात.

बेताळ आपल्या कांय खाशेल्या गुणांक लागून क्षुद्रदेव वा ग्रामदेव जाल्लो आसा. जायतेकडेन ताका 'श्री शिववेताळ' अशें म्हळां, जाल्यार कांय कडेन ताका आजो म्हण्टात. गोंयांत पैंगीण, प्रियोळ, आमोणें, कवळें, सावर्डें ह्या सुवातींनी तशेंच पुण्याच्या साबार वाठारांनी ताका ग्रामदैवत म्हणून म्हत्वाची सुवात मेळळया. महाराष्ट्रांतले म्हार लोक ताचे उपासक. ताका प्रसन्न करचेखातीर ते ताची नागड्यांनी पुजा करतात. तशेंच ताका कोंबे-बोकड्यांचो बळी दितात. ताचें तरंग आसता, तशेंच थंय कौलप्रसाद घेवप, पाकळी काडप असलेय प्रकार चलतात. ह्या बेताळाक विडी, बडी, चामड्याची जोतीं असल्यो वस्तू ओंपपाची चाल आसा. कांयकडेन बेताळाक सोरोय दितात. बेताळ रातचो गांवांत भोंवून थंयच्या लोकांची राखण करता, रातचो भोंवतना ताच्या जोत्यांचो आवाज करकरता आनी बडयेचो आवाज येता, तो शेणिल्ल्याक वाट दाखयता असो जायतेकडेन समज आसा.

बेताळाच्या भेसाविशीं वेगवेगळया ग्रंथांनी वेगवेगळें वर्णन मेळटा. बेताळाच्यो मूर्ती चड करून पाशाणाच्यो आसतात. पूण गोंयांत लांकडी आनी पाशाणी अशो दोनूय प्रकारच्यो मूर्ती आसात. तांतूतल्यो कांय नागड्यो आसून तांच्या हातांत त्रिशूळ वा दांडो आसता. पैंगीण, प्रियोळ, आमोणें, सावर्डें, हळर्ण आनी पर्वरी हांगाचीं बेताळाचीं देवळां प्रसिध्द आसात.

- वा. ल. वझे

**बेनल्ल :** (मराठी : बांडगूळ, वांडा; हिंदी : बांदा; गुजराती : वांदो; कन्नड : बदनिके; संस्कृत : वंदा, जीवंतिका; लॅटीन : लोरँथस फॅल्कॅटस, डेंड्रॉथी फॅल्कॅटा; कूळ : लोरँथेसी).

दुसरे सजीव वनस्पतीचेर आदारून रावपी वनस्पत. ती शिंशें, आंबो, वड, पिंपळ आदी जायत्या झाडांच्या आदारान तांच्या आंगार



बेनल्ल : (१) पान आनी तुऱ्यासयत खानी, (२) तुरो आनी (३) फळां.

वाडत रावता. हाका लागून आदार दिवपी वनस्पतींचें बरेंच लुकसाण जाता. केन्नाकेन्नाय तें झाड मरुंकूय शकता. ताची साल करडी आनी गुळगुळीत आसता. पानां सादीं, दाट, लांबशीं तोंकां नाशिल्लीं. फुलां २.५ ते ५ सेंमी. मुळांत नळयेवरी आनी वयर पातळिल्लीं आसून तीं नोव्हेंबर-जानेवारींत येतात. फळां लांबट, वाटकुळीं पिकतकच काळीं जातात. हीं फळां फेब्रुवारी-एप्रिलांत येतात. फळांचो प्रसार सुकण्यांवरवीं जाता. ही दुसरे वनस्पतीचेर जगपी वनस्पत आशिल्ल्यान ती मुळांत ना करप, खांदयो कापून उडोवप होच ताचेर एक उपाय आसा. हिच्या तरन्या भागांत १०% टॅनीन आसून कातडी कमयतना मोव जावपाक निमाणें तें वापरतात. साल स्थंभक आनी मादक आसता. तिचो उपेग घायांचेर आनी मासिक पाळयेच्या त्रासांचेर जाता. क्षयरोग वा दमो हांचेरूय बेनल्ल उपेगी थरता. श्रीलंकेत आनी भारतांत चड करून सगळेकडेन ही वनस्पत आसा. कोंकण शेती विद्यापिठान बेनल्ल काडून उडोवपाचें अमर नांवाचें वखद विकसीत केलां. हाचो वापर केल्यार बेनल्ल काडप खूब सोंपें जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**बेनाव्हेंते ई मार्तीनेथ, हाथींतो :** (जल्म : १२ ऑगस्ट १८६६, माद्रीद; मरण : १४ जुलय १९५४, माद्रीद).

नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो एक व्हड स्पेनिश नाटककार. El nido ajeno (१८९४) ही ताची पयली नाट्यकृती. ताणें सुमार १७० नाट्यकृती बरयल्यात. हातूंतली 'सॅटरडे नायट' (१९०९), 'ऑटमल रोझीस' (१९०५), 'बाँडस ऑफ इंटरॅस्ट' (१९०७), 'द पॅशन फ्लावर' (१९१३), 'द इव्हिल दॅट मे डू टू अस (१९१९) हीं ताचीं कांय उल्लेख करपासारखीं नाटकां. आपल्या नाट्यकृतीं वरवीं ताणें त्या काळांतल्या समाजांतल्या कितल्याशाच वायट प्रवृत्तींचेर उपरोधात्मक टिका केली. ताच्या सगळयाच नाटकांची कलात्मकताय एकसारकीच नासली तरी समाजीक टिकेच्या आंगान स्पेनिश नाटकांतलो वास्तववादाचो प्रवाह खर करपाचें व्हडपण ताकाच दितात. तल्लख संवाद हें ताच्या नाटकाचें एक खाशेलेपण. १९२२ वर्साचो साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार दिवन ताच्या साहित्यीक वावराचो भोवमान केला. ताच्या तेरा नाट्यकृतींचो इंग्लीश अणकार 'प्लेस ऑफ हाथींतो बेनाव्हेंते (४ खंड १९१७-२४) ह्या नांवान उजवाडा आयला.

- कों. वि. सं. मं.

**बेनासेराफ, बारूज :** (जल्म : २९ ऑक्टोबर १९२०, काराकास- वॅनॅझुएला).

नामनेचो अमेरिकन विकृती वैज्ञानिक आनी प्रतीरक्षा वैज्ञानिक. १९४० त पॅरीसांतले लीसे झांसाँ हे संस्थेंत ताणें बी. एस. एल. ही पदवी मेळयली. अमेरिकेंत स्थलांतरीत जातकच १९४२ त ताणें कोलंबिया विद्यापिठाची बी. एस्. पदवी मेळयली. १९४३ त ताका अमेरिकेचें नागरिकत्व मेळ्ळें आनी १९४५ त ताणें मॅडिकल कॉलेज ऑफ व्हर्जिनियाची एम. डी. पदवी मेळयली. १९४६-४८ ह्या काळांत ताणें लश्करी नोकरी केली. १९४८-५० त तो कोलंबिया विद्यापिठांत संशोधन अधिछात्र आशिल्लो. ते उपरांत स वर्सां पॅरीसांतल्या 'नॅशनल सँटर फॉर सायंटिफिक रिसर्च' हे संस्थेंत ताणें संशोधन केलें. १९५६-६८ ह्या काळांत न्यूयॉर्क विद्यापिठांत तो विकृतीविज्ञानाचो पयलीं सहाय्यक प्राध्यापक, उपरांत सहयोगी प्राध्यापक आनी निमाणो पुराय प्राध्यापक जालो. १९६८-७० त 'नॅशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ ॲलर्जी अँड इन्फॅक्शस डिसीझीस' हे संस्थेच्या प्रतिरक्षाविज्ञान प्रयोगशाळेचो तो मुखेल आशिल्लो. १९७० त तो बोस्टनांतल्या हार्व्हर्ड मॅडिकल स्कुलांत तुळात्मक विकृतीविज्ञानाचो फेबियन प्राध्यापक आनी विकृतीविज्ञान विभागाचो अध्यक्ष जालो.

खंयचेय व्यक्तींतलें ऊतक दुसऱ्याच्या आंगांत प्रतिरोपण करपाचे शक्यतायेक कारण आशिल्लें आनुवंशिकीकरण स्नेल ह्या शास्त्रज्ञान सोदून काडलें. एच प्रतिजन ही संकल्पना ताणेंच पयलीं मांडली. दॉसे हाणें एच प्रतिजनांचें अस्तित्व सिध्द केलें आनी तांच्या निर्मिती-नियंत्रणाफाटलें अनुवंशीक कारकांचें कार्य स्पश्ट केलें. ह्या दोगांयच्या संशोधनाचेर आदारीत असो प्रतीरक्षा विज्ञानावयलो म्हत्वाचो सोद बेनासेराफ हाणें लायलो. शरिरांत गेल्ल्या भायल्या पदार्थांआड (सुक्ष्मजंतू, वायरस आदी) प्रतिपिंडां निर्माण करपी कोशिकांची निर्मिती आनी ताचेवयलें नियंत्रण हांचेर ताणें खास भर दिलो.

बेनासेराफ हाणें गिनीपिगाचेर प्रयोग करून खाशेल्या प्रतिजनांआड प्रतीरक्षात्मक प्रतीसाद निर्माण करपाची तांक अनुवंशीक कारकांक लागून थरयतात अशें दाखोवन दिलें. ह्या कारकांक ताणें 'आय आर जीन' (Immune Response Gene) अशें नांव दिलें. अशीं कितलींशींच प्रतिजनां वळखल्लीं आसून तीं गुणसुत्राचो ज्या भागांत एच प्रतीजननिर्मिती जाता, त्याच भागांत दिसतात. गुणसुत्राची हो खाशेलो भाग कितल्याशाच मध्यवर्ती क्रियांचेर नियंत्रण करता. ह्या कारणाखातीर प्रथिन-कार्बोहायड्रेट मिश्र पदार्थाक वा एच प्रतीजनाक 'म्हान जीन' अशें म्हण्टात. बेनासेराफ हाच्या सोदाक लागून वेगवेगळया व्यक्तींच्या संसर्गविरोधी प्रतीरक्षात्मक प्रतीसाद सिध्द करपाचे तांकीची विस्कटावणी करप शक्य जालां.

जॉर्ज स्नॅल आनी झां दॉसे ह्या दोन शास्त्रज्ञांवांगडा १९८० चो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञान विशयाखातीरचो नोबॅल पुरस्कार ताका वांटून मेळ्ळो. स्नॅल आनी दॉसे हांच्या प्रतीरक्षाविज्ञानांतल्या सोदाचेर आदारीत आशिल्ल्या आनी प्रतीरक्षाक्रियेंत वांटो घेवपी खाशेल्या कोशिकांचें (पेशीचें) उत्पादन आनी नियंत्रण हेविशींच्या सोदाखातीर ताका हो भोवमान मेळ्ळो. ताका आनिकूय कितलेशेच भोवमान आनी पुरस्कार फावो जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बेनिन (बेनिन प्रजासत्ताक) :** अस्तंत आफ्रिकेंतलें एक ल्हान प्रजासत्ताक राश्ट्र. विस्तार ६°४०' उत्तर ते १२°४०' उत्तर आनी ०°४०' उदेंत ते ३°४०' उदेंत. क्षेत्रफळ १,१२,६०० चौ. किमी. बेनिनाचे उदेंतेक नायजेरिया, वायव्येक बुर्किना फासो, अस्तंतेक टोगा, ईशान्येक नायजर आनी दक्षिणेक ॲटलांटिक म्हासागर आसा. देशाक उदेंत-अस्तंत अशी १२५.५ किमी. लांबायेची दर्यादेग मेळ्ळया. पोर्तो नोव्हो ही राजधानी.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे पांच वांटे जातात. १) दर्यादेगांचो वाठार, २) तेर्र द बारे वाठार, ३) नायजर मळ, ४) दोहोमियन सड्याचो प्रदेश आनी ५) अटाकोरा दोंगरी वाठार. दर्यादेगांचो वाठार उथळ, सकयल आनी रेंवटी आसून हांगा चड खारसाण आसा. तेर्र द बारे म्हळयार पिकाळ मातयेचो वाठार. हो वाठार सड्यावयलो आसून हांगा लामा डिप्रेशन हो रेंवटी प्रदेश आसा. हो चडसो प्रदेश सपाट, पूण

कांयकडेन सु. ३९६ मी. मेरेन उंचायेचे दोंगर दिश्टी पडटात. दाहोमियन सड्याच्या प्रदेशांत चार सडे आसात. देशाच्या वायव्य भागांत आटाकोरा पर्वतांवळी आसात. हांगाची सगळयांत ऊंच पर्वता तेंगशी ३४९.३ मी. उंचायेची आसा. ईशान्य बेनिनांतलें नायजर मळ, नायजर न्हंयेच्या देगणांनी पातळिल्लें आसा. नायजर न्हंय आनी तिचे मेक्राऊ, ॲलिबोरी आनी सोटा हे फांटे ईशान्य बेनिनांतल्यान व्हांवतात.

**हवामान, वनस्पत आनी मोनजात :** देशांत दक्षिणेकडेन आनी उत्तरेकडेन अशे हवामानाचे दोन वांटे घाल्यात. दक्षिणेकडच्या वाठारांत विषुववृत्तीय हवामान आसता. ह्या वाठारांत दोन दमट आनी दोन सुके ऋतू मेळटात. मार्च ते जुलय हो पावसाळया ऋतूचो तेंप. उपरांत सुक्या ऋतूक सुरवात जाता. ग्रंथ-पोपो हे सुवातेर वर्सुकी सु. ८० सेंमी. पावस पडटा आनी कोटोनू आनी पोर्तो नोव्हो हांगा सु .१२५ सेंमी. पावस पडटा. सरासरी तापमान २२° सें. ते ३४° सें. आसता.

पयलींचीं रानां नश्ट जाल्ल्यान व्हड प्रमाणांत तेलमाड आनी रोनियर माडांची लागवड केल्या. सावाना प्रकारच्या रुखांचीय लागवड केल्या. माड, तेलमाड, रोनियर, एबनी, शिआनट, शाल्मली, फ्रॉमॅगर, सेनेगल, मॅहॉगनी आनी हेर रुखांचो आस्पाव जाता. हांगा विंगड विंगड प्रकारांची मोनजात आसा. तांचेमदीं हत्ती, शींव, बिबटो, हरणां, माकड, रानुदकर हांचो आस्पाव जाता. गिनी फाऊल, रानबदक, तितर हीं सवणीं दिश्टी पडटात.

**इतिहास :** बेनिनाच्या आदल्या इतिहासाची चडशी म्हायती मेळना. सोळाव्या शेंकड्यांत हांगा ल्हान ल्हान राज्यां आशिल्लीं. सतराव्या शेंकड्याचे सुरवेक आलादा आनी ज्युडा ह्या दोनूय राज्यांचेर ॲबोमे राज्यान घुरी घालून तांकां आपल्या शेकातळा दवरलीं.

पुर्तुगेज, ब्रिटीश, हॉलंडी, स्पेनी आनी फ्रेंच वेपारी हांगा आयले. ह्याच काळांत गुलामांच्या वेपारांत वाड जाल्ली. सतराव्या शेंकड्यांत फ्रेंचांनी ज्युडा राज्यांतली वीडा आनी साव्हे ह्या सुवातींचेर वेपारी केंद्रां उबारलीं. अठराव्या शेंकड्याचे सुरवेक ब्रिटीश आनी पुर्तुगेज हांणी हांगा किल्ले बांदले. थॉरूबा सत्ता जशी उणी जायत रावली तशे ॲबोमेचे थॉरूबावयले हल्ले वाडत गेले. ह्या हल्ल्यांनी धरिल्ल्या बंद्याक भायल्या देशांक गुलाम म्हणून विकताले. पूण एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मदल्या काळारसावन गुलामांच्या जाग्यार ताड-तेलाचो वेपार सुरू जालो. १८५१ त फ्रेचांनी कोटोनूक वेपार केंद्र उबारलें. ह्याच सुमाराक ब्रिटिशांनी लागोसाक आपलें केंद्र उबारलें. तशेंच १८६० त तांणी लागोस हातासलें. १८८९ त ॲबोमे आनी पोर्तो नोव्हो ह्या दोनूय राज्यांभितर झूज जावन ॲबोमेच्या राजान फ्रेंचाच्या वेपारी केंद्राचेर हल्ले केले. ॲबोमेच्या सैन्यांत सु. २,००० ॲमेझॉन बायलो आशिल्ल्यो. उपरांत कर्नल डॉडस हाच्या फुडारपणाखाल फ्रेंच सैन्यान ॲबोमेचेर घुरी घालून थंय आपल्या रक्षीत राज्याची स्थापणूक केली. फ्रेंचांनी १८९२ ते १९०० ह्या काळांत बेनिनाचो उत्तर वाठारूय आपल्या शेकातळा हाडिल्ल्यान, हांगा उदरगत जावपाक लागली. १९०२ त दाहोमी ही फ्रेंच अस्तंत आफ्रिका ह्या महासंघाची एक घटक वसणूक जाली. १९४६ त नव्या फ्रेंच संविधानावरवीं दाहोमीक फ्रेंच संसदेंत एक प्रतिनिधी आनी दोन सिनेटर धाडपाची तजवीज केल्ली. ४ डिसेंबर १९५८ त प्रादेशिक विधानसभा ही राश्ट्रीय घटक विधासभा करून दाहोमी प्रजासत्ताक हें फ्रेंच समुदायाचो एक वांगडी म्हणून जाहीर केलें. १४ फेब्रुवारी १९५९ त दाहोमी खातीर एक संविधान तयार केलें. ह्याच वर्सा ३ एप्रिलाक घेतिल्ले वेंचणुकेंत दाहोमीयन डॅमॉक्रेटिक रॅली ह्या पक्षाचो अध्यक्ष ह्यूबर्ट मॅगा हाका प्रधानमंत्री केलो. १ ऑगस्ट १९६० दाहोमीन आपूण पुराय स्वतंत्र म्हणून जाहीर करून नवें संविधान तयार केलें.

ऑक्टोबर १९७२ त लश्करी उठाव जावन मेजर मॅथ्यू केरेकू सत्तेर आयलो. नोव्हेंबर १९७४ त बेनिन हें मार्क्सवादी-लॅनिनवादी राश्ट्र म्हणून जाहीर केलें आनी कांय वेवसायांचें राश्ट्रीयीकरण केलें. १९७५चे सुरवेक कॅप्टन जॅनव्हीर ॲसोब्बा ह्या आदल्या मंत्र्यान केरेकू राजवटीआड बंड उबारलें, पूण तें केरेकू सैनिकांनी मोडून उडयलें. डिसेंबर १९७५ त केरेकू द बेनिन पिपल्स रेव्होल्युशनरी पार्टी अशी मार्क्सवादी पक्षाची स्थापणूक करून देशाच्या वसणूक काळासावन चलत आयिल्लें 'दाहोमी' नांव काडून बेनिन प्रजासत्ताक हें नांव जाहीर केलें.

१९७२ त सत्तेर येतसावन १९७३च्या सप्टेंबर मेरेन अध्यक्ष मॅथ्यू केरेकू हाणें 'मिलिटरी काउन्सिल ऑफ रेव्होल्युशन' हे परिशदेच्या आदारान आनी १९७३ ते ऑगस्ट १९७७ मेरेन 'राश्ट्रीय क्रांतिकारी परिशद' हांच्या आदारान देशाचो कारभार चलयलो. हांगा सोळा जाणांचें मंत्रीमंडळ आसून अध्यक्ष हो ताचो मुखेली आसता.

**अर्थीक स्थिती :** बेनिनाची अर्थवेवस्था व्हडा प्रमाणांत शेतवडीचेर आदारिल्ली आसा. मको, कसावा, ज्वारी, घेवडो गोराडू हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. नुस्तेमारी आनी पशुधन हेय वेवसाय हांगाचे अर्थीक स्थितीक हातभार लायतात. १९७६ त शेतवडींत सुदारणा जावंची म्हणून बेनिनाच्या सगळया प्रांतांनी सहकारी शेतवडसंस्था उबारल्यात. ताडतेल, खोबरें, कापूस हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं नगदी पिकां. ह्या वेवसायांक युरोपीय विकास निधी आनी फ्रांसाकडल्यान आदार मेळटा. गोरवां आनी कुकडां पोसप होय हांगाचो मुखेल धंदो. कोटानू आनी हेर दर्यादिगेवयल्या शारांनी नुस्तेमारीचें म्हत्व वाडत आसा. रानांतले संपत्तीक लागून बेनिनाक बरेंच उत्पन्न मेळटा. थळाव्या शेत म्हालाचेर प्रक्रिया करून तांची निर्यात करप हो हांगाचो मुखेल उद्येग. पाराकाऊ हांगा देशांतलो सगळयांत म्हत्वाचो कपडे निर्मितीचो प्रकल्प आसा. तशेंच साकर कारखाने, तेल निवळीकरण, ताडतेलाच्यो गिरण्यो, कापूस पिंजपाच्यो गिरण्यो, सिट्रोयन मोटारींचो कारखानो, फर्निचर कारखाने, ॲल्युमिनियम धातूच्या पत्र्यांचो कारखानो हे सारके उद्येग

व्हडा प्रमाणांत हांगा चलतात. हांगाची खण संपत्ती होय अर्थवेवस्थेचो मुखेल घटक आसा. लोखण आनी क्रोम हांचे सांठे उत्तर बेनिनांत आनी फॉस्फेट आनी लिग्नायट हांच्यो सांठवणी दक्षिण बेनिनांत आसात.

**लोक आनी समाजजीण :** हांगा दोहोमियन लोक चड आशिल्ल्यान ह्या देशाक पयलीं 'दाहोमी' अशें म्हण्टाले. बेनिनाची लोकसंख्या ४९,९७,००० (१९९१) आसून, हातूंतले चडशे लोक दक्षिण वाठारांत रावतात. देशांत वांशिक आनी भाशीक वेगळेपण बरेंच आसा. संस्कृतीक नदरेन हेर आफ्रिकन देशांपसून संगीत, नाच, दंतकथा, शिल्पकला हांच्यांतल्यान ह्या देशाचें वेगळेंपण दिश्टी पडटा. दाहोमी, अदजा, बारीबा, यॉरूबा, माली, आयझो, सोंबा, फुलानी, देंडी आनी हेर वंशाचे लोक हांगा आसात. बेनिनांतले लोक धर्मीक, मूर्तिपुजा, जादूटोणो आनी भुताखेतांक मानपी, वैदिक लोकांभाशेन जण एके वस्तूंत देवाक पळोवपी आसात. वीडा ही तांची धर्मीक सुवात. देशाच्या दक्षिण वाठारांत क्रिस्तांव आनी उत्तर वाठारांत इस्लाम धर्मांचे लोक चड आसात. शेतवड हो हांगाच्या चडशा लोकांचो वेवसाय. फुलानी आनी पेरूल हे हेडपी लोक हांगा आसात. फ्रेंच ही हांगाची अधिकृत भास. फॉन, अदजा,बारिबा आनी यॉरूबा ह्यो आफ्रिकन भासोय खूब लोक उलयतात. हो देश शिक्षणाच्या मळार फाटसारिल्लो. पोर्तो नोव्हो ही देशाची राजधानी आसून तें एक व्हड शार आसा. कोटानू हें देशांतलें सगळ्यांत व्हड शार, बंदर आनी वेपारी केंद्र म्हणून प्रसिध्द आसा. ह्या शारांत बेनिन विद्यापिठूय आसा. ह्या शारां खेरीज अॅबोमे, वीडा बंदर, पाराकाऊ हींय शारां म्हत्वाचीं.

\- कों. वि. सं. मं.

**बेबो :** विभाग : पृश्ठवंशी (vertebrates); वर्ग : अँफिबियन; गण : अॅन्यूरा; कूळः रॅनिडी; जातः राना; प्रजाती : टिगरिना; शास्त्रीय नांव : राना टिगरिना.

पुर्विल्ल्या काळासावन अस्तित्वांत आशिल्लो अँफिबियन (जमनीचेर आनी उदकांत रावपी प्राण्यांच्या वर्गांतलो) प्राणी. सादारणपणान ताची लांबाय सुमार ८ सेंमी. ते २५ सेंमी. मेरेन आसता. उदकांत रावपी प्राण्यांक फावो अशी ताची कूड आसता. बेबो चड करून उदकांत उफेतना दिश्टी पडटा. पूण गरज पडल्यार तो खोल उदकांतूय रावूंक शकता. बेब्याचे फाटले पांय चड लांब आसतात आनी बोटांमदीं कात आसता. फाटले पांय लांब आशिल्ल्यान जमनीचेर आसता तेन्ना ताका पयस उडकी मारपाक सोंपें जाता. तेचपरी बोटांमदीं कात आशिल्ल्यान उदकांत ते व्हल्याचें काम करतात.

बेब्याची कूड, तकली आनी धड अशा दोन भागांनी विभागल्या. बेब्याक मान नासता. ताची तकली त्रिकोनी आसून ती तोंकार अशीर आसता. ताचें तोंड चड रूंद आसता. हाका लागून ताका व्हड आकाराचें भक्ष लेगीत सहज गिळपाक शक्य जाता. मुखाचे वयले वटेन दोन नाकाबुराक आसतात. तकलेच्या दोनूय वटांनी पातयो आशिल्ले दोळे आसतात. ताचे दोळे तकलेच्या वयल्या भागाचेर आनी व्हड आशिल्ल्यान ताका हालचाल करिनासतना चोंयवटेन सहज दिश्टी पडटा. दोळे धांपच्या वेळार ताका ते कब्ट्यांत व्हरचे पडटात. दोनूय दोळ्यांचे फाटले वटेन एक कर्णपटल आसता. दादल्यांक तोंडाच्या सकयल्या भागार ध्वनिकोश आसतात.



मान नाशिल्ल्यान बेब्याचें धड तकलेक जोडिल्लें आसता. धडाच्या दोनूय वटांनी दोन अशे चार पांय आसतात. हातूंतले मुखावयले दोन पांय फाटल्या पायांपरस मोटवे आसतात. दर एका तळठाक पांच बोटां आसतात. तांच्या बोटांक नाखटां नासतात. तांची कात पातळ आनी मोव आसता. बेब्यांची फाट पांचवीसार वा पुडीकोराची आसता. पूण सादारणपणान कुडीचे सकयले वटेनचो रंग धवसार-हळदुवो आसता. कांय जातींचे बेबे आपलो रंग बदलपाक शकतात. तांची कात सदांच ओली आनी बुळबुळीत आसता.

विणीच्या हंगामांत (breeding season) म्हळ्यार सादारणपणान जून ते सप्टेंबर ह्या तेंपार दादले बेब्यांक ध्वनिकोश निर्माण जातात

आनी तो नेटान डरांव डरांव करून आड्डता. अशे रितीन आड्डून तो मादीक आपयता. मादीक ध्वनिकोश नासतात. नराच्या मुखावयल्या पांयांच्या आखाण्यांकडेन एक गांठ आसता. विणीच्या हंगामांत ती चड फुगता. नर हे गांठीच्या आदारान मादीक घट्ट धरता. हे स्थितींत मादी तांतयां उदकांत सोडटा आनी उपरांत नर तांचेर आपले शुक्राणू (spermatozoa) सोडटा. अशे रितीन तांचे कुडीभायर उदकांत तांतयांचें बाह्य निशेचन (external fertilization) जाता. कांय जातींचे बेबे शेंकड्यांनी जाल्यार कांय जातींचे बेबे ३०,००० मेरेन तांतयां घालतात. दर एका तांतयाक एक प्रकारचो बुळबुळीत लेंप आसता. ह्या लेपाक लागून तीं एकामेकांक घट्ट चिकटून रावतात. ह्या तांतयांचो रंग काळो आसता.

निशेचनाउपरांत रोखडेंच तांतयाचें विदलनात रुपांतर जाता. उपरांत हातूंत खूब बदल जावन सुमार १४ दिसांनी एक नुस्त्या असलो जीव तयार जाता (Tadpole). ताची लांबाय सुमार ७ मिमी. इतली आसता. ताचो रंग पाचवो आसून ताका एक ल्हान शेंपो आसता. ताच्या आदारान तो आपल्या जेवणाखातीर वळवळत भोंवता. तो गल्ल्याच्या (Gills) आदारान श्वसन करता. तो उदकांतली वनस्पत खाता. हो जीव वाडटा तसो तातूंत एकसारको बदल जायत रावता. ल्हव ल्हव फुफुस आनी पांय तयार जातात. तशेंच शेंपो मोटवो जायत रावता. तांचे तकलेचोय आकार बदलत आसता. ह्या जिवापसून बेब्याचें रूप तयार जावपाक सुमार चार म्हयने लागतात. बेबे पांच ते पंदरा वर्सांमेरेन जियेवपाक शकतात.

बेब्यांच्यो साबार जाती आसात. सगळ्याक दिश्टी पडपी राना ह्या वंशांतूच सुमार ४०० जाती आसात. तांचो प्रसार संवसारांत सगळ्याक जाल्लो आसा. भारतांत रॅनिडी ह्या कुळांतल्यो सुमार ५० जाती आसात.

बेबो हो उदकांत आनी जमनीचेर रावपी प्राणी. तो चड करून बांयच्या सोंपणार, तळयाचे धडेर वा कोंडाचे देगेक मेळटा. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार कातींतल्यान उस्वास घेवपाखातीर ताका आपली कात सदांच ओली दवरची पडटा. तशेंच तांतयांचें निषेचन जावपाखातीर ताका तांतयां उदकांत घालचीं पडटात. तेचपरी भायलो कोणूय ताका धरूंक आयलो जाल्यार रोखडीच उदकांत उडकी मारपाक सोंपे जाता. सैमांत जावपी बदलाप्रमाण तो आपले कुडीचें तापमान बदलता. शिंयांच्या दिसांनी तो आपणाक जमनींत पुरून घेता त्या प्रकाराक 'हिबरनेशन' वा 'शिंयाळी न्हीद' अशें म्हण्टात, जाल्यार गरमेच्या दिसांनी पुरून घेता त्या प्रकाराक ॲस्टीवेशन वा गिमाची न्हीद अशें म्हण्टात. हे प्रकार करता आसतना तो स्वताक ३० ते ६० सेंमी. मेरेन पुरून घेता.

बेबा हो मासभक्षक प्राणी आशिल्ल्यान तो बारीक बारीक जीव, गांयडोळ, ल्हान-व्हड किडे, कापोडये आनी गोगलगाय खाता. ताची जीब तोंकार जोडिल्ली आसता आनी फाटल्यान मेकळी आसता. ती चिकचिकीत आसता आपलें भक्ष नदरेक पडटकूच तो जीब पट्ट करून भायर शेंवटिता. ताची जीब चिकचिकीत आशिल्ल्यान तें भक्ष जिबेक घट्ट दसून उरता. उपरांत तो त्याच नेटान आपली जीब भितर घेता. भक्ष तोंडांत आयलें म्हण्टकूच तो तें तशेंच गिळटा. तो आपली कात ओली दवरून स्वताची तान भागयता.

स्वताची राखण करपाक ताचेकडेन कसलेंच साधन ना. हाका लागून ताची दुस्मानां पसून राखण कठीण आसता. नुस्तें, सोरोप, बकीं बेब्यांच्या ल्हान ल्हान जिवांक खातात. कांय देशांनी बेब्यांचो खावपाखातीर उपेग करतात. शरक्रियाविज्ञान आनी प्राणीविज्ञान हांच्या प्रयोगाखातीर आनी अभ्यासाखातीर बेब्याचो खूब उपेग जाता.

बेबो हो किडे आनी हेर बारीक बारीक जीव खावपी प्राणी आशिल्ल्यान ताका शेतकामत्यांचो इश्ट अशें म्हण्टात. बेब्यांचो उपेग किटकांचो नाश करपाखातीर करतात. युरोपांत दर वर्सा कोट्यांनी रुपयांचे बेबे खाद्यपदार्थ म्हणून विकतात. जपानांत बेब्याच्या चामड्याचो वस्तू करतात. साबार देशांनी बेब्याचो वखदी प्राणी म्हणून उपेग जाता.

- एस. आर. गनीहार

## बेयर, (योहान फ्रीड्रिख व्हिल्हेल्म) आडोल्फ फॉन :

(जल्म : ३१ ऑक्टोबर १८३५, बर्लिन; मरण : २० ऑगस्ट १९१७, स्टार्नबेर्ख-जर्मनी).

जर्मन रसायनशास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण फ्रीड्रिख व्हिल्हेल्म जिम्नेशियम आनी बर्लिन विद्यापिठांत पी. जी. डीरिक्ले हाच्या मार्गदर्शनाखाल जालें. हायडलबर्गाक आर. बन्सन हाचे वांगडा ताणें प्रायोगिक रसायनशास्त्राचें शिकप केलें. १८५८ त ताणें आउगुस्त केकुले हाचे खाजगी प्रयोगशाळेंत प्रवेश घेतलो आनी थंय ताणें कार्बनी रसायनशास्त्राचो अभ्यास केलो. आर्सेनिक मिथिल क्लोरायडावयल्या वावराखातीर ताका १८५८ त बर्लिन विद्यापिठाची पी. एच.डी. मेळ्ळी. १८७२ त स्ट्रसबर्गांतल्या न्यू इंपीरिअल विद्यापिठांत रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक जाय मेरेन तो बार्लिनांतल्या गेवेर्बे इन्स्टिट्युटांत प्रयोगशाळा मुखेल आशिल्लो. १८७५ त ताची म्यूनिका युस्टुस फॉन फिबिक हाचे सुवातेर रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून नेमणूक जाली आनी अखेरमेरेन ताणें थंय काम केलें.

निळीवयलें संशोधन हें बेयर हाणें केल्लें म्हत्वाचें कार्य. तें ताणें १८६५ त सुरू केलें आनी ताका लागून थॅलीन रंजकावयलें कार्य सुरू जालें. १८७८ त फिनिल ॲसिटिक आम्लासावन इसॅटिनाची विस्काटावणी करून निळीची पुराय विस्कटावणी शक्य आशिल्ल्याचें बेयर हाणें प्रयोगावरवीं दाखोवन दिलें. निळीचें संरचना सुत्र निश्चीत करतना ताणें दोन इंडॉल गाभ्याच्या बंधाचें निरिक्षण केलें. हेर कितलींशींच

विक्रियाकारकां (reagents) वापरून ताणें नीळ तयार केली आनी निमाणें १८८३ त ऑर्थो-डाय-नायट्रो- डायफिनिल - डायअॅसिटिलिना सावन संश्लेशणावरवीं बंधाची निश्चीत सुवात आनी निश्चीत संरचना सुत्र दाखयलें.

युरिक आम्लाचे अनुजात तयार करता आसतना ताणें बार्बिच्युरेटां तयार केलीं. आल्डिहायडां आनी फिनॉलां हांच्यां विक्रियांचेरूय ताणें बरेंच संशोधन केलें. ताणें पॉलिअॅसिटिलिनाचें संशोधन केलें आनी कितलीशींच उच्च स्फोटक संयुगां तयार केलीं. रसायनीक संयुगांचे क्रियाशीलतेंतल्या फरकांविशीं ताणें सिध्दांत मांडलो. रंजक आनी हायड्रोअॅरोमॅटिक संयुगां हांच्या वावराखातीर ताका १९०५ वर्साचो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**बेरड :** एक जात. तांकां नाइकवाडी, ब्याडेरू, तलवारू, नाइकमक्कलू, काटक अशींय नांवां आसात. बेळगांव, धारवाड, विजापूर आनी कोंकणांत ह्या लोकांची चड वसती आसा.

इ.स. १८१७ च्या सुमाराक नाईक नांवांच्या मुखेल्याच्या हाताखाल बेरडांची व्हड संघटना आशिल्ली. त्या वेळार तांणी इंग्लिशांआड बंड केलें पूण तांकां जैत मेळ्ळेंना फुडें इ.स. १८२९ आनी १८९५ ह्या वर्सांय तांणी इंग्लिशांआड उठाव केलो.

मुखेल्याकडेन वा आपल्या धनयाकडेन एकनिश्ठ रावपाची तांची वृत्ती पळोवन हैदर अलीन, तांचेमदल्या खूबशा लोकांक मुसलमान केले.

बेरड लोक आपली उत्पत्ती 'कन्नय्य' ह्या नायन्मारापसून जाली अशें मानतात. मुंबय राज्यांतले बेरड लोकूय कन्नय हो आपलो मूळ पुरूस मानतात. हे लोक वाल्मिकीक आपलो जातभाई मानतात आनी स्वताक 'वाल्मीक' अशेंय म्हणोवन घेतात. तशेंच ते स्वताक 'रामोशी' ह्या नांवांनूय पाचारतात.

ह्या लोकांभितर नाइक मक्कलू, वाल्मीक वा बेरड, भिल्ल वा किरात, बिले वा हलगे, जस, नस, म्यास वा कवलेट्टू, ककरमुंडी वा हेसी, करे वा दुर्गामुर्गी अशे पोटभेद आसात.

बेरड लोक रंगान काळे आनी मध्यम उंचायेचे आसतात. तांचें मुखामळ वाटकुळें, पातळ ओंठ, रूंद नाक आनी लांब वा मुदयाळे केंस अशें आसता. तशेंच तांच्या पोल्यांचीं हाडां वयर आयिल्लीं आसतात. बायलो माथ्यावयल्यान पदर घेवन साडी न्हेसतात. त्यो वाकी, कमरपट्टो, नथ, कानांतलीं, कांकणां ह्यो वस्ती घालतात. दादले पुडवें वा कोट वा उपरणें आनी जोतीं घालतात. चडशे दादले केंस वाडयतात. कमराक सरपळी, हातांत भांगराचें वा रूप्याचें कडें आनी कानांत भांगराचीं कानांतलीं घालतात.

हे लोक भ्रश्ट कन्नड भास उलयतात. सोलापूर जिल्ह्यांतले बेरड दुसऱ्यांकडेन उलयतना मराठी भास उलयतात आनी घरांत स्वताची खाशेली बोली उलयतात.

बेरड लोक शैव, वैश्णव तशेंच लिंगायतूय आसात. धारवाडच्या बेरडांचो मुखेल देव 'हनमप्पा' आसा. सोलापुरांतले बेरड अंबाबाई,ज्योतिबा आनी खंडोबा ह्या देवांक भजतात. विजापूरांतल्या बेरडांच्यो दुर्गव्व, मल्लिकार्जून, मारुती, वेंकटेश आनी येल्लम्मा ह्यो कुलदेवता आसात. पुण्यांतले बेरड जनाई, जोखाई आनी खंडोबा ह्या देवांक भजतात. हे लोक दसरो, दिवाळी, नवरात्र हे सण मनयतात. दर एक शेनवारा आनी मंगळारा ते फकत सांजवेळचे जेवतात. श्रावणांतल्या दर एका सोमारा ते उपास करतात. आश्विन आनी मार्गशीर्ष उमाशेक ते शेतांत 'डागोरा' नांवांचो एक विधी करतात. मंत्रतंत्र, जादू हांचेर बेरड लोकांचो खूब विस्वास आसा.

बेरड लोकांभितर ल्हान पिरायेंतूच लग्नां जातात. चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. चलयेच्या बापायक न्हवरेकारांनी देज दिवंचें पडटा. दोनूय पक्षांक हो संबंद मान्य आसल्यार गांवांतले अधिकारी आनी लिंगायत पुरयत हांचे उपस्थितींत साकरपुडो जाता आनी दोन वर्सांनी ज्योतिशाकडल्यान म्हूर्त काडून लग्न करतात. लग्न न्हवऱ्याच्या घराकडेन जाता. लग्नाच्या दोन दिसा आदीं 'रामबाण' हो विधी करतकच तिसऱ्या दिसा न्हवरो-व्हंकल बैलाचेर बसून गांवांतल्या मारुतीच्या देवळांत वचून येतात. उपरांत न्हवरो जात्याचेर आनी व्हंकल कड्डण भरिल्ल्या पांटल्यांत उबी रावता. दोगांय मदीं अंतरपाट धरतात आनी तांच्या माथ्यार अक्षता उडयतात. उपरांत न्हवरो मंगळसुत्राक हात लायता आनी पुरयत तें व्हंकलेच्या गळयांत घालता. लग्नांत ब्राह्मण आनी लिंगायत अशे दोनूय पुरयत आसतात.

विधवा लग्नाक लिंगायत मठपती पुरयतपण करता. ह्या लग्नांत सवायशीण बायलो भाग घेनात.

घटस्फोट घेवपाची चाल बेरड लोकांमदीं आसा. कांय चलयो येल्लम्मा देवीक ओंपतात. उपरांत त्यो जोगिणी जावन वेश्यावृत्तीन रावतात. देवाक ओंपिल्ल्या चलयांक 'बसवी' म्हण्टात.

बेरड लोक पांच दीस सुयेर पाळटात. पांचव्या दिसा षष्ठीदेवीची (सटयेची) पुजा करतात. बाराव्या वा एकुणिसाव्या दिसा बारसो करतात.

हे लोक मडीं लासतात वा पुरतात. लग्न जावंक नाशिल्ल्या पूण मुद्रा घेतिल्ल्यांक न्हिदोवन आनी लग्न जाल्ल्यांक बसोवन पुरतात. मड्याक न्हाणोवन दुसरें वस्त्र न्हेसयतात. दादल्याच्या कपलाक भस्म लायतात आनी बायलांक फुलां माळटात. तीन दीस सुतक पाळटात. तिसऱ्या दिसा मडें पुरिल्ल्या वा लाशिल्ल्या जाग्यार शीत आनी उदक एका मडक्यांत घालून दवरतात. कावळो तें केन्ना खाता हाची वाट पळयत

बसतात. सातव्या, ण्वव्या आनी इकराव्या दिसा अस्थी एकठांय करून न्हंयेंत उडयतात आनी सोयऱ्यांक- इश्टांक जेवण घालतात.

पयलीं हे लोक चोर आनी दरोडेखोर म्हणून नांवाजिल्ले. आयजूय कांय लोक चोरतात. पूण चडशे लोक शेत पिकयतात. जे कोण शिकल्यात ते शिक्षक, पोलीस पट्टेवाले अशो नोकऱ्यो करतात.

'कट्टिमणी' हो जातिमुखेल तांचीं झगडीं सोडयता. पयलीं कसलेय व्यभिचार केल्यार वा उणे जातींतल्या लोकांचे पंगतीक बसल्यार बायलांक जातीभायर घालताले आनी परत जातींत घेवपा वेळार तिचें मुंडण करताले. आतां फकत पांच केंस कापतात आनी रुईची पेट्टी काडी तिचे जिबेक लावन थोडो सोरो पियेवपाक दितात. तशें केल्ल्यान शरीर शुध्द जाता, असो तांचो समज आसा. दादल्यान असलो गुन्यांव केल्यार, गुरूसामकार ताचें खाड, मिशयो आनी शेंडी काडटात. उपरांत थंड उदक न्हातकच सोरो पिवयतात.

बुचॅननच्या मतान बनवासीचे कदंब हे बेरड आशिल्ले. दक्षिण कानडांतले बेरड क्रूर आशिल्ल्यान तांकां खुनी अशेंय म्हण्टाले.

- कों. वि. सं. मं.

## बेरनार्त, ऑगुस्त मारी फ्रांस्वा : (जल्म : २६ जुलय १८२९, ऑस्टेण्ड (बेल्जियम); मरण : ६ ऑक्टोबर १९१२, लुर्सन. (सित्झर्लंड).

शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो बेल्जियमाचो प्रधानमंत्री. एका फ्लॅमिश घराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताणें कायद्याचें शिक्षण घेवन वकिली चलोवंक सुरवात केली. ह्याच काळांत तो राजकारणाकडेन गेलो. १८७३त तो संसदेचेर वेंचून आयलो. कॅथलीक पक्षाच्या मंत्रिमंडळांत ताचेकडेन भौशिक बांदकाम खातें आशिल्लें. उपरांत तो १८७८-८४ ह्या काळांत शेतकी आनी उद्देग खात्याचो मंत्री जालो. फुडें १८८४-९४ ह्या काळांत ताची आदीं अर्थमंत्री आनी उपरांत प्रधानमंत्री म्हणून नेमणूक जाली. १८९५ त संसदेच्या लोकप्रतिनिधी घराचें अध्यक्षपद ताकाच मेळिल्लें (१८९५-१९००). १९०३-१९०५ ह्या काळांत तो आंतरराष्ट्रीय विधीसंस्थेचो अध्यक्ष आशिल्लो. आपल्या प्रधानमंत्रीपदाच्या धा वर्सांच्या काळांत ताणें निर्वाचनाविशींचो कायदो आनी कामगारांचे परिस्थितींत उदरगत घडोवन हाडपी कायदो करून देशांत जायत्या प्रमाणांत सुदारणा घडोवन हाडल्यो.

१८९९-१९०५ वर्सांत द हेगांत भरिल्ल्या आंतरराष्ट्रीय शांतताय परिशदांक हजर रावपी तो पयलो बेल्जियम वांगडी. ह्या परिशदांनी ताणें कामगारांच्या हिताचे कायदे करपाखातीर तशेंच संवसारीक शांततायेखातीर यत्न केले. १९११ त तो द हेगाच्या आंतरराष्ट्रीय न्यायाधिकारणाचो अध्यक्ष आसतना थंय स्वातंत्र्यवीर वि. दा. सावरकराचो खटलो चालिल्लो. ह्या परिशदांनी ताणें निःशस्त्रीकरण आनी शांततायेखातीर लवाद ह्या गजालींक नेटान तेंको दिलो. ताच्या ह्या शांततायेच्या वावराची दखल घेवन ताका १९०२ वर्साचो शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार बॅरन द एस्तौरनेल्स द कॉस्तां (२२ नोव्हेंबर १८५२-१५ मे १९२४) हाचेवांगडा वांटून दिलो. कॉस्तां हाणें १८८९ त सुरू जाल्ले आंतरराष्ट्रीय संसदीय परिशदेंत वांटो घेतिल्लो. आंतरराष्ट्रीय सहकार, समजिकाय, निःशस्त्रीकरण आनी शांतताय ह्या तत्त्वांचो पुरस्कार करपांत आनी आंतराराष्ट्रीय लवाद न्यायालयाचे स्थापनेंत ताचो वांटो आसा. 'ला कॉन्सिलियासांव इन्तेरनासिऑनाल' (१९०६), 'पोर ला सोसियेते देस नासिआँ' (१९१२), 'अमेरिका अँड हर प्रॉब्लॅम्स' १९१५) हे ताचे कांय म्हत्वाचे ग्रंथ.

- कों. वि. सं. मं.

## बेर्नार्दु, पेरीश दा सिल्वा : ( जल्म : १५ ऑक्टोबर १७७५; मरणः ?).

पुर्तुगेजांच्या काळावयलो गोंयचो पयलो गोंयकार राज्यपाल. ताच्या सुदारवादी विचारांक लागून पुर्तुगेजांमदीं ताका बरो मान आशिल्लो. १४ जानेवरी १८३५ राज्यपालपदाचो सोपूत घेतकच ताका फकत दोन सप्तकांनी युरोपी आनी मिस्तीस त्रिकूट हांणी आपलो सैनिकी राज्यपाल कर्नल फोर्तुनातु द मेलु (col. Fortunato de melo) हाच्या आदारान सत्तेवयलो निखळायलो.

पूण ताचे भितर आशिल्ले धिटायेन, निर्धारान तो पुर्तुगेज संसदेचो पांच फावटीं वांगडी जालो.

कार्मु आझावेदु

## बेरिंग, एमिल आडोल्फ फोन : (जल्म : ११ मार्च १८५४, हॅन्सडॉर्फ (प्रशिया); मरण : ३१ मार्च १९१७, मारबुर्ख, (अस्तंत जर्मनी).

जर्मन सुक्ष्मजंतुशास्त्रज्ञ आनी रक्तरसशास्त्रज्ञ. शाळेंत आसतनाच ताका वैजकीची आवड निर्माण जाली. पूण परिस्थितीक लागून ताका तें शिक्षण घेवप अशक्य जालें. त्या काळांत लश्करांतल्या भावी वैजकी अधिकाऱ्यांक बर्लीनांतल्या फ्रीड्रीख व्हिल्हेम इन्स्टिट्युटांत फुकट वैजकी शिक्षण मेळटालें. पूण शिक्षण पुराय जातकच धा वर्सां सैन्यांत नोकरी करूंक जाय अशी अट आशिल्ली. बेरिंग हाच्या एका शिक्षकान ताका हे संस्थेंत प्रवेश मेळोवन दिलो. १८७४-७८ ह्या काळांत थंय शिकप करून ताणें एम. डी. पदवी मेळयली. १८८० त तो लश्कराचे वैजकी सेवेंत दाखल जालो. १८८८ च्या सुमाराक बर्लीनांतल्या लश्करी वैजकी

म्हाविद्यालयांत व्याख्यातो म्हणून ताची नेमणूक जाली. लश्करी सेवा सोंपोवन १८८९ त रॉबर्ट कॉख हाच्या संसर्गजन्य रोगांचे संस्थेंत तो सहाय्यक म्हणून काम करूंक लागलो.

लश्करी सेवेंत आसतना ताणें आयोडोफॉर्म नांवाच्या पूतिरोधक (antisepiic) वखदाचेर संशोधन केल्लें. ह्या पदार्थाच्या पूतीरोधक गुणावांगडाच ताच्या विखारी परिणामांचो गंभीर धोको आसता, हें संशोधनान सिध्द करून ताणें तो त्याज्य थरयलो. ह्या संशोधनांतल्यानूच ताचें रक्तरसाच्या प्रतीविशाविशींच्या गूणधर्मांकडेन लक्ष गेलें.

कॉख हाचे संस्थेंत काम करता आसतना ताणें शिबासाबुरो किटाझाटो ह्या शास्त्रज्ञाच्या पालवान धोणकुटी आनी घटसर्प ह्या रोगांवयल्या रक्तरसाच्या वखदी उपेगाविशीं संशोधन केलें. घटसर्पाचे सूक्ष्म जंतू कुडीचेर जो दुश्मपरिणाम करतात. तो ते उत्पन्न करीत आशिल्ल्या जंतू विखाक लागून जाता अशी बेरिंग हाका खात्री दिसताली. १८९०त ताणें ह्या रोगाचे मेल्ले वा क्षीण सुक्ष्मजंतू गिनीपिगाच्या शरीरांत तोपून पळयले आनी त्या जनावरांमदीं ह्या रोगाआड प्रतीरक्षा उत्पन्न जाल्याचें ताका दिसलें. ही प्रतीरक्षा ह्या जनावराच्या रक्तरसांत तयार जावपी खाशेल्या पदार्थाक लागून निर्माण जाता अशें ताणें दाखोवन दिलें. ह्या पदार्थाक ताणें 'प्रतीविख' (antitoxin) हें नांव दिलें. आज रूढ जाल्लें हें नांव पयलीं वापरपी शास्त्रज्ञ तोच आशिल्लो.

१८९३ सावन घटसर्प प्रतीवीख आशिल्ल्या रक्तरसाचो वापर मनशावयल्या उपचाराखातीर युरोपांत आनी अमेरिकेंत सुरू जालो. ते उपरांत बेरिंग हाणें वीख प्रतीवीबें भरसण फॉर्मल्डिहायडांत थीर करून घटसर्प प्रतीरक्षा उत्पादनाखातीर पयलीं वापरलें. प्रतीविखाक लागून पराजित प्रतीरक्षा बेगोबेग तयार जाता, जाल्यार विखाक लागून कुडींतले प्रतिकार यंत्रणेक चेतना मेळून स्वनिर्मित प्रतीवीख तयार जाता हो मोलादीक सोद ताणें लायलो. ह्या ताच्या मोलादीक सोदाखातीर तशेंच रक्तरसाचो वखदी उपेग खास करून 'घटसर्प' ह्या रोगांतलो उपेग सोदून काडिल्लेखातीर बेरिंग हाका पयलो म्हळयार १९०१ वर्साचो शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयाखातीरचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

रक्तरसाच्या वापराउपरांत रोगाच्या प्रमाणांत बरोच उणाव जालो. घटसर्प हो रोग मुखेल करून भुरग्यांचो रोग आशिल्ल्यान बेरिंग हाका 'बाल-तारक' हें विशेशण लावपाक लागले. बेरिंगच्या सोदाक लागून हेर शास्त्रज्ञांक आनीकूय कांय रोगांखातीर प्रतीविखां तयार करपाचें येवजलें.

हाल विद्यापिठांत १८९४ त ताची प्राध्यापक म्हणून नेमणूक जाली आनी १८९५ त मारबुर्खच्या 'इन्स्टिट्यूट ऑफ हायजीन' हे संस्थेचो तो संचालक जालो. ताणें जर्मन भाशेंत काय पुस्तकां बरयल्यांत. प्रतीरक्षाविज्ञानाचो जनक म्हणून ताका मानाची सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बेर्गिडस, फ्रिड्रिख :** (जल्म : ११ ऑक्टोबर १८८४, गोल्डश्मिडेन - जर्मनी; मरण : ३० मार्च १९४९, ब्वेनस एरीझ-आर्जेंटिना).

जर्मन रसायनशास्त्र. ताचें उच्च शिक्षण लायपसिकाक जालें. १९०७ त लायपसिक विद्यापिठाची डॉक्टरेट पदवी मेळयतकच ताणें व्ही. एच. नॅन्स्र्ट, एफ. हाबर आनी ई. बोडेनस्टायन हांच्या हातासकयल संशोधन केलें. १९०७ त व्याख्यातो जातकच ताणें उच्च दाबासकयल घडून येवपी रसायनीक विक्रियांचें संशोधन सुरू केलें. उच्च दाबासकयल्या विक्रियांचो वापर करून उद्देगीक नदरेन म्हत्वाचीं रसायनां तयार करपाकडेन ताणें लक्ष दिलें. फातराच्या कोळशाचेर उदका वाफेची क्रिया करून हायड्रोजन वायू मेळोवपाची पद्दत ताणें सोदून काडली.

खनीज तेलापसून पेत्रोल मेळोवपाखातीर ताणें हायड्रोजनाची विक्रिया केली. ताका लागून पयलींचे पद्दतीपरस चड पेत्रोल मेळपाक लागलें. १९१३ त हे भंजन प्रक्रियेचें पेटंट ताणें आनी जॉन बिलविलर हाणें मेळयलें. १९१४ त, तो एसेनांतल्या गोल्डश्मिट कंपनीचे नवे संशोधन प्रयोगशाळेचो मुखेल जालो आनी ताणें हायड्रोजनीकरणाविशीं संशोधनाक सुरवात केली. हायड्रोजनाचें प्रमाण उणें आशिल्ल्या फातराच्या कोळशाचें ऊश्मीय भंजन करपाआदीं कोळशाचें भरपूर हायड्रोजनीकरण करचें पडटा. हें ताणें सोदून काडलें. उपरांत ताणें लाकडांतल्या सेल्युलोझासावन साकर आनी ते साकरेसावन आल्कोहॉल, डॅक्स्ट्रोज आनी यिस्ट मेळोवपाचे प्रयोग केले. एथिलिनापसून एथिलीन ग्लायकॉल आनी क्लोरोबँझिनापसून फिनॉल तयार करपाच्या विक्रियांविशींय ताणें संशोधन केल्लें. १९४७ त तो आर्जेंटिना शासनाचो शास्त्रीय सल्लागार जालो. The Use of High Pressure in Chemical Actions (१९१३) हो ग्रंथ ताणें बरयला.

- कों. वि. सं. मं.

**बेल :** (मराठी : बेल; हिंदी : बिली; गुजराती : बीली; कन्नड : बेला, बेलपत्री; संस्कृतः बिल्व, त्रिपत्रक, शिवद्रुम; इंग्लीशः बेलट्री, बेंगॉल क्विन्स, इंडियन क्विन्स; लॅटीन : ईगल मार्मेलॉस; कूळ : रूटेसी).

हें मध्यम आकाराचें पानां झडपी झाड. ताची उंचाय ९-१२ मी. आसता. खोडाचो घेर ०.९-१.५ मीटर. साल दाट, लेव गोबराकोराची आसून तिचीं खवळां येतात. खांदयेर पानांचे कुशींत सरळ घट कांटे आसून पानां संयुक्त तीनदळी, वासाळ आनी एका फाटोफाट एक अशीं आसतात. तातूंत उडून वचपी तेलाचे सुक्षीम थिपके आसतात. मार्च-एप्रिलांत पानां झडटात आनी गिमा तेपार तांकां नवी पालवी फुट्टा. फुलां मध्यम आकाराचीं २-५ सेंमी. व्यासाचीं, पाचवीसार धवीं, वासाळ आनी पानांतले कुशीचे ताळयेर मे ते जुलय म्हयन्यांत येतात. दाट सालीचें मृदुफळ वाटकुळें, ५-१२ सेंमी. व्यासाचें, घट्ट, गुळगुळीत, पुडिकोराचें

वा हळदुवें आसून पावसाळयांत येता आनी तें डिसेंबरांत पिकता. तातूंतल्या घट्ट, गोड, वासाळ बुळबुळीत गरांत चेपट्यो बियो आसतात.

ह्या झाडाचें मूळ स्थान उत्तर भारत आसून ताचो प्रसार भारतांत सगळेकडेन जाल्लो आसा. बेलाच्या वंशांत (इगल) वट्ट तीन जाती आसून तातूंतली फकत एकूच भारतांत दिश्टी पडटा. उपहिमालयांत झेलमाचे उदेंतेकडच्या वाठारांत तशेंच श्रीलंका, ब्रह्मदेश, थायलंड, पाकिस्तान आदी वाठारांनीय हें झाड दिश्टी पडटा.

देवळाच्या लागसार ह्या झाडांची लागवड करतात. हिंदू लोकांनी ह्या झाडाक पवित्र मानिल्लें आसून शिवाचे पुजेंत ताका म्हत्वाची सुवात आसा. ह्या झाडाक यज्ञीय वृक्षाचें स्थान मेळ्ळां. वैदिक साहित्यांतूय ताचो उल्लेख आयिल्लो आसा. पाणिनीच्या अष्टाध्यायी तशेंच महाभारत, चरकसंहिता, सुश्रुतसंहिता आनी हेर कांय संस्कृत ग्रंथानीय ताचो उल्लेख मेळटा.

बेलाच्या झाडाचें लाकूड घराची बांदावळ, बैलगाडयो, शेतांतलीं आवतां, कोरीव काम, उशीचें चरक, तेलाघाणे मुसळां, हत्याराच्यो मुठी, दांडे, फणयो आदी वस्तूंखातीर उपेगांत हाडटात. होमखणांखातीर हाचें लाकूड पवित्र मानतात.

पिकिल्ल्या फळांतलो गर वासाळ, थंड आनी सारक आसता. ताचें सरबत पोरनो मलावरोध आनी अग्रीमांध हांचेर दितात.

फळ स्तंभक, पाचक, दीपक (भूक वाडोवपी) आशिल्ल्यान अतिसार आनी आमांशाचेर गुणकारी आसा. तरन्या फळाचें लोणचें करतात. पंजाबांत फळांच्या गरांत दूद साकर आनी चींच घालून सरबत करतात. धातू पडत जाल्यार पानां उदकांत वाटून तातूंत जिरें आनी खडीसाकर घालून घेतात. भेड्ड्याच्या कानांत गोमूत्रांत बेलाचें फळ वांटून तेलांत कडोवन तें कानांत घालतात. फळांच्या सालीपसून हळदुळें रंगद्रव्य मेळटा. सालीपसून 'मार्मेले' हें बाश्पनशील तेल काडटात. तरन्या फळांनी गरा वांगडा श्लेश्मल द्रव्य आसता. ताचो उपेग गोमावरी करून उदकांत तयार केल्ल्या रंगांत तें द्रव्य भरसून चकचकसाण हाडटात. खोडापसून बरें गोम मेळटा. फुलापसून वासाळ द्रव्य मेळटा.

बेलाच्या फळांत ४-६% साकर, गरांत ९% आनी सालींत २०% टॅनीन आसता. बियांतल्यान ११.९% कोडू तेल मेळटा. मुळाची साल वा खोडाची साल दिसांच्या जोराचेर दितात. तातूंत अबेलिफॅरॉन हें द्रव्य आसता. तरनीं ल्हान फळां रुद्राक्षावांगडा माळेंत घालतात.

अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत उश्ण भागांनी जायते कडेन बेलाचीं झाडां लागवडींत आसात. उत्तर भारतांतूय ह्या झाडांची लागवड करतात. सकस आनी उदक व्हांवून वतलें अशे जमनींत लागवड बरी जाता. बियांपसून तयार केल्लीं रोंपां लावन वा केन्नाय मुळाक फुटिल्ल्या आटफागुरां पसून नवीं लागवड करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बेलिफ** : न्यायालयामुखार जी चवकशी जाता तातूंत पक्षकार आनी गवाय आसतात,तांकां आपले सामकार हाजीर रावपाखातीर न्यायालय जे हुकूम करता ते तीन तरांचे आसतात. १) नोटीस २) समन्स आनी ३) अधिपत्र. तशेंच दावो-चवकशी सोंपतकच वादीवतीन जर हुकूमनामो जालो जाल्यार ताची वसुली करपाखातीर जप्तीहुकूम काडटात. ताका लागून स्थावर वा जंगम मालमत्ता जप्त करून वा पावणी करून पयशे न्यायालयांत जमा करतात. केन्ना केन्नाय दाव्याचो निकाल जावंचे पयलीं जप्ती करपाक मेळटा. हे जप्तीक 'अव्वलजप्ती' अशें नांव आसा.

जो अधिकारी ह्या सगळया प्रकारांच्या न्यायालयीन हुकमांची बजावणी करता ताका 'बेलिफ' म्हण्टात. 'बेलिफ' ह्या इंग्लीश उतराचो अर्थ जिल्ह्यासारक्या थळांनी आशिल्लो राजाचो प्रतिनिधी असो आसा. इंग्लंडांतल्या रिवाजाप्रमाणा 'मेयर', 'शॅरीफ' अशा पदांचेर काम करपी व्यक्तींकूय बेलिफ हीच संज्ञा वापरताले. उपरांत ही संज्ञा भारतांतले न्यायवेवस्थेंत न्यायालयीन हुकमांची बजावणी करपी अधिकारी ह्या अर्थान रूढ जाली. जंय शॅरीफाचें कार्यालय आसता थंय बेलिफ हे शॅरीफाच्या हाताखाल काम करपी अधिकारी आसतात. जंय शॅरीफ नासता, थंय न्यायालयीन निबंधकाच्या हाताखाल बेलिफ काम करतात.

कोर्टाची नोटीस, समन्स वा अधिपत्र दिवन वा लावन वा जप्तीचो हुकूम आसल्यार जप्ती करून तेविशींचो पुराय अहवाल बेलिफान, ज्या न्यायालया कडल्यान ताका हुकूम मेळ्ळा, त्या न्यायालयाक दिवपाचो आसता. हुकमांची बजावणी जाली काय ना आनी ती जावंक ना जाल्यार ताचीं कारणां, हेविशीं बेलिफाक न्यायालयाक अहवाल दिवंचो पडटा. दाव्याच्या कामांत ह्या अहवालाचो आस्पाव करून घेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बेलीझ** : मध्य अमेरिकेंतलो २१ सप्टेंबर १९८१ दिसा स्वतंत्र जाल्लो देश. ह्या देशाचेर जेन्ना ब्रिटिशांची सत्ता आशिल्ली तेन्ना हाका 'ब्रिटीश हाँडुरस' अशें म्हण्टाले. क्षेत्रफळ २२,९६३ चौ. किमी. विस्तार १५°५३' ते १८°३१' उत्तर अक्षांश आनी ८७°१६' ते ८९°८' अस्तंत. ह्या देशाचे दक्षिणेक आनी अस्तंतेक ग्वातेमाला, उत्तरेक मॅक्सिको आनी उदेंतेक कॅरिबियन दर्या आसा. बेल्मोपान ही देशाची राजधानी आसा. आनी लोकसंख्या २,००,००० (१९९१).

भूंयरचणुकेचे नदरेन हो प्रदेश मॅक्सिकोच्या युकातान द्विपकल्पांचोच दक्षिणेकडलो एक वाटो. देशाचो चडसो वाठार रानांनी आनी दलदलींनी व्यापिल्लो आसा. हांगा चुनखडीचें प्रमाण खूब आसा.

देशाची दर्यादेग दलदलीची आशिल्ल्यान मळांचो प्रदेश भितर भितर ऊंच जायत वता. कॉक्स्कोम ही १६ किमी. लांबायेची दोंगरावळ

देशाच्या मदल्या वाठारांत उदेंत-अस्तंत अशी पातळिल्ली आसून ती माया हे पर्वतावळीचो एक फांटो. 'व्हिक्टोरिया पीक' (१,१२२मी.) ही देशांतली सगळयांत ऊंच दोंगरा तेंगशी. देशांतल्यो चडशो न्हंयो सादारणपणान नैर्ऋत्य-ईशान्य दिकांनी व्हांवतात. ओंदो, न्यू, ब्लू क्रीक, बेलीझ, सार्सतून ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो.

देशांतलें हवामान उश्ण आनी दमट आसून दर्यादिगांच्या वाठारांनी सादारण तापमान १५° ते ३२° से. इतलें आसता. फेब्रुवारी ते मे आनी ऑगस्ट ते सप्टेंबर हे देशांतले दोन सुके ऋतू आसून, हेर म्हयन्यांनी देशांत पावस पडटा. देशांतलो वर्सुकी पावस २०८ सेंमी. आसता.

देशांत कांय सॅव्हाना आनी दलदलीचे वाठार सोडल्यार हेर वाठारांनी रानां दिश्टी पडटात. मॅहोगनी, रोझवूड, सीडार पाइन आनी हेर पानझडी रूख आसात. तशेंच रानांनी आर्मडिलो, ऑपॉस्सम, हरणां, माकड, केमन गार सोरोप ही मोनजात दिश्टी पडटा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** युरोपी लोक हांगा पावचेपयलीं हो प्रदेश माया संस्कृतीचो वांटो आशिल्लो. १४५०त स्पेनीश लोक हांगा पावले. हांगाच्या रानांचे गिरेस्त कायेचे आशेन जमेकांतल्यानूय लोक हांगा आयले. सुमार दोन शतमानां मेरेन मुखेल भुंयेवयल्या वसणुकांक 'सॅटलमेंट इन द बे ऑफ हॉंडुरस' अशें म्हण्टाले. वेपार आनी सत्ता हांकां लागून ब्रिटीश आनी स्पेनीश हांचेमदीं खूब काळ संघर्श चालू आशिल्लो. १८६२ त ब्रिटीश हॉंडुरसाची वसणूक अस्तित्वांत आयली आनी १८८४ त ती ब्रिटिशांची स्वतंत्र कॉलनी जाली. १९३३ आनी १९६० त ग्वातेमाला हाणें हो प्रदेश आपलोच एक वांटो आनी ताचेर आपले पुराय अधिकार आसा अशें सांगलें.पूण ब्रिटीश तांकां विरोध करीत रावले. १९७३ त ह्या प्रदेशाक बेलीझ अशें नांव दिवन ताका स्वतंत्रतायेचीय संमती उक्तायली. पूण फाटल्या शेंकड्यांनी वर्सां ह्या प्रदेशाचेर आपलो अधिकार सांगपी ग्वातेमालान हे गजालीक खर विरोध केलो आनी बेलीझाचेर हल्लो करपाक लागलो. पूण ब्रिटिशांनी आपलें सैन्य आनी झुजा विमानां धाडून ग्वातेमालाच्या सैन्याक धांवडावन घालें. मुखारूय ब्रिटीश आनी ग्वातेमाला हांचेमदीं ह्या प्रदेशावयल्यान कांय वर्सां संघर्श चालूच आशिल्लो आनी अशे इबाडिल्ले परिस्थितींत २१ सप्टेंबर १९८१ त बेलीझाचें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. पूण ह्या नव्या राश्ट्राचो ग्वातेमालाकडेन आशिल्लो संघर्श चालूच आशिल्लो.

स्वातंत्र्यापयलींच्या काळांत १९६४ त देशाचें संविधान तयार केलें. ह्या संविधानावरवीं देशांत दोन सदनी विधीमंडळ आसून तातूंत १८ वांगडी आसतात. सिनेटांत ८ वांगडी आसतात. मंत्रीमंडळाच्या आदारान प्रधानमंत्री राज्यकारभार चलयता.

**अर्थीक स्थिती :** अर्थवेवस्थेचो चडसो भार शेतवडीचेर आसा. हांगाचे वट्ट भुंयेची सुमार २०% जमीन पिकाळ आसा. ऊंस, लिंबाचे जातीचीं फळां, केळीं हीं हांगाचीं म्हत्वाची पिकां. रानांतली पिकावळूय हांगाचे अर्थवेवस्थेक फाटबळ दिता. नुस्तेमारी आनी पशुपालनाची उदरगत जावंची म्हणून सरकारान नव्यो नव्यो येवजणो आपणायल्यात. हाचेभायर लुगट विणप, सिगरेटी करप, फळांचो रोस काडप, ल्हान ल्हान तारवां बांदप ह्या उद्देगांनीय वाड जायत आसा.

देशांतले चडशे लोक न्हंयांच्या देगणांनी आनी देगांनी रावतात. देशांत सु. ४०% लोक खाप्री आसात. हे लोक देशाच्या दक्षिण वाठारांत रावतात. स्पेनीश आनी थळाव्या माया इंडियनांचो आंकडो दिसान दीस उणो जायत आसा. माया इंडियन लोक दोंगरी वाठारांनी रावतात. इंग्लीश ही देशाची अधिकृत भास आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बेलूर :** कर्नाटक राज्यांतलें एक पुर्विल्लें स्थळ. होयसळ वास्तूशैलींतल्या देवळांखातीर ह्या स्थळाची नामना आसा. पुर्विल्ल्या काळांत हाका वेळापुरी,



नर्तिकेची मूर्त, चन्नकेशव मंदिर, बेलूर

वेळूर, वेलहूर, बेलपूर आदी नांवांनी वळखताले. ह्या स्थळाक 'अभिनव क्षोणिवैकुंठ' आनी 'दक्षिण वाराणसी' ह्या नांवान वळखतात. हें स्थळ हसन जिल्ह्यांत बनवराचे नैर्ऋत्येक ४५ किमी. आनी हसनाचे वायव्येक सुमार ३९ किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या यगची न्हंयेदेगेर वसलां. बेलूर तालुक्याचें हें मुखेल ठाणें आसून हसन-चिकमंगळूर रेल्वे मार्गावयलें हें

एक स्थानक.

हांगासल्लीं सगळीं देवळां ११५.८२ मी १२९.५४ मी. क्षेत्रफळाच्या तंटबदीयुक्त आशिल्ल्या प्रकारांमदीं आसात. मदींच चेन्नकेशव देवूळ आसून ताचे भोंवतणीं कप्पे-चन्निगरय, सोमनायकी, आंडाळ, वीरनारायण, आळवार संत हांचीं देवळां आसात. हांगासल्ल्या शिलालेखांप्रमाण हीं देवळां इ. स. बाराव्या शतमानांत विष्णुवर्धन ह्या होयसळ राजान आनी ताच्या पुतान बांदलीं अशें कळटा. नामनेचो होयसळ राजा विष्णुवर्धन हाणें इ.स. १११७ त तलकाडांत चोलसेनेचर जैत मेळोवन ह्या जैताचें यादस्तीक म्हणून हें विष्णुचें देवूळ बांदलें. दुसरे एके कथेप्रमाण विष्णुवर्धन जैन आशिल्लो, रामानुजाचार्याक लागून तो वैशणव जालो. हे घडणुकेचे यादीक ताणें विष्णुचें देवूळ बांदलें. विजयनारायण वा चेन्नकेशव ह्या नांवान ह्या देवळाची नामना आसा. कर्नाटकांतलो नामनेचो शिल्पकार डंकणाचार्य हाणें हें देवूळ बांदलें अशें म्हण्टात.

हांगाचीं चडशीं देवळां बसकीं आसून हीं सगळीं देवळां निळसार काळ्या रंगाच्या मोव फातराचीं आसात. हो फातर खणींतल्यान काडटकच मोव आसता, पूण ल्हव ल्हव घट जाता. ताका लागून ताचेर बारीक कलाकुसर करूंक शक्य जाता.

हांगाचें चेन्नकेशव देवूळ म्हळ्यार होयसळ शिल्पशैलीचो एक उत्कृश्ट नमुनो. हें देवूळ एक व्हड चबुतऱ्याचेर बांदिल्लें आसा. ताचो गाभारो ताराकृती आसून ताचे मुखार एक व्हड नवरंग म्हळ्यार सभामंटप आसा. त्या मंटपांत जायते खांबे आसात आनी जाळयेच्या पाशाणाचे पट्टे आसात. चडशा खांब्यांचेर आनी पाश्ताचेर भरपूर नक्षीकाम केल्लें आसा. ताराशिल्पांतल्या वेगवेगळ्या ढंगांनी उब्या आशिल्ल्या सुमार चाळीस मदनिकांचें मूर्तीकाम पळोवपासारकें आसा. सभामंडपांतले चार खांबे सोडल्यार हेर सगळ्यांचेर नक्षीकाम केल्लें आसा. हातूंतले नरसिंह आनी मोहिनी ह्या नांवान नामना आशिल्ल्या खांब्याचेर बारीक कलाकुसर पळोवंक मेळटा. चेन्नकेशवाची मूर्त १ मी. उंचायेच्या पादपिठाचेर आसून तिची उंचाय ३.६८ मी. आसा. ही मूर्त रेखीव आसून तिचे प्रभावळींत दशावतार कोरांतिल्ले आसात. हांगाच्या शिल्पांकनांत वेणुगोपाळ आनी गोवर्धनधारी कृष्ण, मकरतोरण, द्वारपाल, अश्ट दिकपाल हांचें मुर्तीकाम, रतिमदनाचें युग्म, हिरण्यकश्यपू आनी नससिंह, विष्णुवर्धनाचो दरबार, राणी शांतला देवी हांचीं शिल्पां पळोवपासारकीं आसात. कप्पे-चन्निगरथ हें हांगाचें नामनेचें देवूळ. चन्निगरायचे मुर्तीची प्रतिश्ठापना शांतलादेवी हिणें केली असो हांगाच्या शिलालेखांत उल्लेख मेळटा. हांगा आशिल्लीं वीरनारायण, सोमनायकी, आंडाळ आदी देवळांचेर देवदेवता आनी सुरसुंदरीचें भरपूर शिल्पांकन केल्लें दिश्टी पडटा. वीरनारायण देवळाचे उत्तरेकडले वण्टीचेर भीमाचें भागदत्त आनी ताचो हत्ती हांचेवांगडा झूज चित्रीत केलां. आंडाळ देवळांतूय पुराणीक कथांचें शिल्पांकन केल्लें आसा. हेभायर आळवारांच्या देवळांतलीं रामायणाचीं दृश्यां, अस्तंतेकडल्या शंकरेश्वराच्या देवळांतलें जाळीकाम तशेंच तांडव नाचांतलो शंकर, मकर हांच्यो मुर्ती कलात्मक आसात. हांगासल्ले शिल्पाकृतींत वेगळेंपण तेचपरी पुराणीक कथानक आसा. बारीक कलाकुसरीचे नमुनेय हांगा पळोवंक मेळटात. माधवन्न, जक्कणाचार्य, रुवरी नंदीयभट्ट आदी शिल्पींनी हांगाचें शिल्पांकन केल्ल्याचो उल्लेख शिलालेखांत मेळटा.

होयसळ वास्तूशिल्पशैलीचो विकसीत आविश्कार बेलूराक पळोवंक मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**बेलो, सॉल :** (जल्म : १० जुलय १९१५, लशीन- क्वॅबॅक).

नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो नामनेचो अमेरिकन कादंबरीकार. ताचो जल्म एका रशियन ज्यू घराण्यांत जालो. ताचे आवय-बापूय १९१३ त रशियेंतल्यान कॅनडांत आयले. ताचें भुरगेपण मॉंट्रियालांत गेलें. तो णव वर्सांचो आसतना ताचें कुटूंब शिकागोक गेलें. थंय शिकागो विद्यापिठांत आनी नॉर्थवॅस्टर्न विद्यापिठांत ताचे शिक्षण जालें. उपरांत मिनेसोटा, प्रिन्स्टन न्यूयॉर्क आदी विद्यापिठांतल्यान ताणें अध्यापन केलें. ह्याच काळांत तो लिखाणूय करतालो. 'डँगलिंग मॅन' (१९४४) आनी 'द व्हिक्टिम' (१९४७) ह्यो ताच्यो पयल्यो दोन कादंबऱ्यो. 'द अॅडव्हेंचर्स ऑफ ऑजी मार्च' (१९५३) हे ताचे कादंबरीक बरीच नामना मेळळी आनी तिका 'नॅशनल बुक अवॉर्ड' दिलो. उपरांत ताच्यों हॅंडरसन द रेन किंग (१९५९), 'हरझॉग' (१९६४) आनी मिस्टर सॅमलर्स प्लॅनेट (१९७०) ह्यो कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यो. आर्विल्ल्या ज्यूंचें मन आनी आर्विल्लो अमेरिकन समाज ह्या दोगांयचें विश्लेशण ताणें आपले कादंबरीवरवीं केलां. १९७६ वर्सा साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार दिवन ताचो संवसारीक पांवड्यार भोवमान जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**बेल्जियम :** एक युरोपी देश. क्षेत्रफळ ३०,५१९ चौ. किमी. विस्तार ४९°५०' ते ५०°५०' उत्तर अक्षांश आनी २° ते ६° उदेंत रेखांश. बेल्जियमाचे उत्तरेक नॅदर्लंडस, उदेंतेक जर्मनी, आग्नेय दिकेक लेक्झेम्बर्ग आनी दक्षिणेक फ्रांस हे देश आसात. फ्लॅमिश आनी फ्रेंच ह्यो हांगाच्यो दोन अधिकृत भासो. ब्रुसॅल्स ही देशाची राजधानी.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणुकेचे नदरेन बेल्जियमाचे तीन वांटे जातात. १) उत्तरेकडलो मळांचो तसोच उणे उंचायेचो सड्याचो वाठार, २) आर्देन सड्याचो प्रदेश आनी ३) बेल्जियन लॉरेन.

उत्तरेकडल्या मळाच्या प्रदेशांत उत्तर दर्याची वेळ आनी सँब्रा तशेंच म्यूज न्हंयांच्या देगेमेरेनचो वाठार आस्पावला. वेळे कुशीक ल्हान ल्हान

रेंवटी दोंगुल्ल्यो आसात. ह्या दोंगुल्ल्यांफाटल्यान 'पोल्डर' नांवाचो उदकांतल्यान वयर सरिल्लो भाग आसा. हो भाग सपाट आसून ताचेमदल्यान खूब व्हाळ व्हांवतात. पोल्डराचे दक्षिणेकडचे भुंयेची उंचाय वाडत गेल्या आनी ह्या भागांत एनो, ब्राबांट आनी हेसबे हे १०० ते २०० मी. उंचायेचे सडे आसात. पोल्डर आनी सड्यां मदलो रेंवटी भाग परतून परतून येवपी हुंवारांच्या गाळाक लागून तयार जाल्लो आसा. तशेंच, केंपनलँड ही सुवात म्यूज न्हंयेच्या गाळाक लागून तयार जाल्ली आसा.

आर्देन सड्यांचो भाग हो 'हेर्सिनियन बॅल्ट' सड्याचोच एक वांटो जावन रावला. आर्देन सड्याची उंचाय सादारणपणान २०० ते ५०० मी. मेरेन आसा. जर्मनीचे शिमे लागसार ताची उंचाय सुमार ७०० मी. इतली आसा. ह्या सड्याचे साबार उपविभाग आसात. काँद्रॉझ सडो हो आर्देन सड्याचो म्हत्वाचो भाग. ह्या सड्याच्या प्रदेशांत म्यूज न्हंयेच्या फांट्याचीं साबार खोल देगणां आसात.

आर्देन सड्याच्या प्रदेशाचे दक्षिणेक आशिल्लो बेल्जियम लॉरेन हो साबार पर्वतांवळींसावन तयार जाल्लो भाग आसून ताची उंचाय कांयकडेन ६५०मी. परस चड आसा. देशाचे उत्तरेक आशिल्लो मळांचो प्रदेश हो चतुर्थक काळांत निर्माण जाल्लो आसा. लीआँ वा लोएस माती आशिल्लो देशाचो मदलो वाठार हो एनो, ब्राबांट आनी हेसबेसडे मेळून तयार जाल्लो आसा. ह्या प्रदेशा भोंवतणीं साबार पर्वतांवळी आसात.

स्केल्ट ही हांगाची मुखेल न्हंय. ती नॅदर्लंड्स देशांतल्यान व्हांवत वचून उपरांत उत्तर दर्याक मेळटा. म्यूज आनी सँब्रा ह्योय हांगाच्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो. तृतीयक काळांत भूंयकट्ट्यांचे हालचालींक लागून तयार जाल्ल्यो लीस आनी ईझर ह्यो न्हंयो देशाचे उत्तरेकडेन व्हांवतात. ह्या न्हंयांनी सड्याच्या भागांत खोल देगणां तयार केल्लीं आसात. पोल्डर ह्या सपाट प्रदेशांत ह्या न्हंयांचे साबार फांटे तयार जाल्ले आसात.

**हवामान :** सादारणपणान बेल्जियम देशाचें हवामान हेर युरोपी देशांप्रमाण शितळ आसता. दर्यादिगेवयल्या हवामानाचेर अॅटलांटिकासावन येवपी वाऱ्याचो परिणाम जाता. पूण देशाच्या विंगड विंगड भागांतल्या हवामानांत फरक जाणवता. शिंयाळो खूब खर आसून जानेवारी म्हयन्यांत उत्तरेकडच्या मैदानी वाठारांनी तापमान २°से. परसूय उणें आसता. आग्नेय दिकेक लक्सेम्बर्गाचे शिमेकडल्या वाठारांनी तें ०°से. परसूय सकयल वता. शिंयाळ्यांत दाट धुकें पातळटा. गिमाच्या दिसांनीय हवामान शितळ आसता. देशाच्या मध्य भागांत उण्यांत उणें तापमान २०२°से. (डिसेंबर) जाल्यार चडांत चड १६°से. (जुलय) इतलें आसता. पावसाचें प्रमाण वायव्येकडसून आग्नेयेकडेन वाडत वता. सादारणपणान हांगा १२०-१३० सेंमी. इतलो पावस पडटा. नोव्हेंबर ते फेब्रुवारी ह्या तेंपार दडकांचो पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** बेल्जियमाचो आस्पाव पानझडी वनस्पत आशिल्ल्या प्रदेशांत जाता. पूण चड उंचायेच्या वाठारांनी सूचिपर्णी वनस्पतूय मेळटा. ओक ही हांगाच्या रानांत मेळपी मुखेल वनस्पत. बीच, स्प्रूस, सिल्वर बर्च, कॉर्सिकन पायन, एल्म ही हेर म्हत्वाची वनस्पत. केम्पनलँड आनी आर्देन नगरांनी दाट रानां आसात. बेल्जियम लॉरेनाच्या दोंगुल्ल्यांनी आनी पानझडी रानांनी रानदुकर, कोले, बिजू, रानमाजर, हरणां दिश्टी पडटात.

**इतिहास :** इसवी सनापयलीं ५००च्या सुमाराक बेल्गा जमातींचो आयज अस्तित्वांत आशिल्ल्या बेल्जियम प्रदेशांत राबितो आशिल्लो. बेल्गा जमातींवयल्यानूच ह्या प्रदेशाक बेल्जियम हें नांव मेळ्ळें. उपरांत इ.स.प. ५०त हो प्रदेश रोमन लोकांच्या शेकातळा आयलो. तांणी हांगा सुमार ४५० वर्सांमेरेन आपलो शेक गाजयलो. इ. सनाच्या पांचव्या शेंकड्यांत जर्मन लोकांनी हांगा आपलो राबितो केलो. मुखार मेरोव्हिन्जिअन राजान बेल्जियमावांगडाच पुराय गॉल प्रदेशाचें एकत्रीकरण केलें. शार्लमेनाच्या तेंपार तो रोमन साम्राज्याचो एक वांटो जालो. ८७९ त हो प्रदेश जर्मनीन परत आपल्या शेकातळा हाडलो. उपरांत बाराव्या शेंकड्यामेरेन हांगा थळाव्या सरदारांचीच सत्ता आशिल्ली. १३०२ त फ्लॅमिश लोकांनी फ्रेंच लोकांचेर हार घालून आपलें स्वातंत्र्य तिगोवन दवरलें. १३६९ सावन बर्गंडियन काळ सुरू जालो. ह्या काळांत साबार ल्हान-व्हड राज्यां बर्गंडीच्या शेकातळा आशिल्लीं. बर्गंडियन काळ १४८२ मेरेन तिगलो. १४८२ उपरांत मॅक्सिमिल्यनाच्या हॅप्सबर्ग घराण्याची कारकीर्द सरू जाली. ह्या घराण्याचो दुसरो फिलिप १५५५ त स्पेनाचो राजा जालो. अशे रितीन बेल्जियम हो स्पेनिश नॅदर्लंडसाचो एक वांटो जालो. हॉलंडी आनी फ्लॅमिश लोकांनी १५७६ त स्पेनिश राजवटीआड बंड केलें. नॅदर्लंडस स्वतंत्र जालो, पूण बेल्जियम स्पेनाचोच भाग म्हणून उरलो. १७१४ त बेल्जियम प्रदेश ऑस्ट्रियन हॅप्सबर्ग घराण्याच्या शेकातळा आयलो. १७९४ त फ्रेंच लोकांनी ऑस्ट्रिया लोकांचेर हार घाले उपरांत बेल्जियम हो फ्रेंच प्रजासत्ताकाचो भाग जालो. उपरांत १८१५ त लंडनांत जाल्ले कबलातीवरवीं बेल्जियमाचो नॅदर्लंडसांत आस्पाव केलो.

२५ ऑगस्ट १८३० दिसा ब्रुसॅल्सांत नॅदर्लंडसाआड बेल्जियमांनी बंड उबारिल्लें. उपरांत रोखडीच नॅशनल काँग्रेसची स्थापणूक जाली. हे काँग्रेसीन सॅक्स-कोबर्गाचो राजकुंवर लिओपोल्द हाका ४ जून १८३१ दिसा राजा म्हणून वेंचून काडलो. २१ जुलय १८३१ ह्या दिसा ताचो रीतसर अभिशेक करून बेल्जियमांत राजेशायीची स्थापणूक केली. लिओपोल्द हाच्या तेंपार बेल्जियमाचो वेपार भरभराटीक आयिल्लो. देशाची अर्थीक उदरगत घडोवन हाडचेखातीर ताणें परकीय राश्ट्रांचोय आदार घेतिल्लो. १८६५ त ताच्या मरणाउपरांत दुसरो लिओपोल्द गादयेर आयलो. पयल्या म्हाझुजांत जर्मनीन बेल्जियमाचेर घुरी घातिल्ली. त्या वेळार पयलो आलबर्ट राज्य करतालो. १९२६ त 'लोकार्नो' कबलातीवरवीं देशाची शीम थारायली.

दुसऱ्या म्हाझुजांत नाझी जर्मनीन १९४० त बेल्जियमाचेर घुरी घाली. त्या वेळार तिसरो लिओपोल्द बेल्जियमाचे गादयेर आशिल्लो. पूण नाझी जर्मनीआड झुजपाची ताची तांक नाशिल्ल्यान, बेल्जियम जर्मनीक शरण गेलो. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत बेल्जियमाच्या राजाविशीं वाद निर्माण जावन उपरांत १९५० त भौशिक मतदानावरवीं देशांत राजसत्तेची स्थापणूक जाली.

**राज्यवेवस्था :** १८३१ च्या संविधानाप्रमाण देशांत वंशपरंपेन चलत आयिल्ली राजेशाय आसून वैधानिक सत्ता राजा, सिनेट आनी लोकप्रतिनिधी हांचेलागीं आसा. कार्यकारी सत्ता राजाच्या हातांत आसली तरी तिचे सगळे वावर मंत्रीमंडळ पळयता. प्रधानमंत्र्याची नेमणूक राजा करता आनी ताच्या सल्ल्यान हेर मंत्र्यांचीय नेमणूक राजाच करता. राजगादयेच्या वारसहक्का संबंदीय संविधानांत तजवीज केल्ली आसा.

वैधानिक सत्तेविशीं १९२१ त संविधानांत सुदारणां केल्ल्यो. सिनेट आनी लोकप्रतिनिधीघर हांच्या वांगड्यांची वेंचणूक भौशिक गुपीत मतदान पद्दतीन जाता. वेंचून आयिल्ल्या सिनेट वांगड्यांची मुजत चार वर्सां आसता. क्रिस्टीयन सोशल पार्टी, बेल्जियम सोशलिस्ट पार्टी, फ्रिडम अँड प्रोग्रॅस पार्टी हे हांगाचे मुखेल राजकीय पक्ष.

**अर्थीक स्थिती :** सद्या अभियांत्रिकी उद्देगधंद्याच्या मळार हो देश खूब फुडारिल्लो आसा. पूण शेतवडीक ह्या देशांत व्हडलेंशें म्हत्व ना. देशाचे वट्ट येणावळींत शेतवडीचो वांटो पांच टक्क्यांवयर नासता. शेतवडीचें जें कांय उत्पादन आसता तातूंत गंव, ओट, राय, बार्ली, ऊंस, बीट आनी तंबाकू हांचो आस्पाव चड आसता. पशुधनांत घोडे, बोकडां, दुकर आनी गोरवां हांचो आस्पाव जाता.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत चलनाविशीं केल्ल्या सक्तीच्या सुदारणांक लागून बेल्जियम देशाचे अर्थीक स्थितींत रोखडीच उदरगत जाली. ह्या तेंपार आयात-निर्यात हातूंत समतोल दवरपी, बेल्जियम हें पयलें युरोपीय राश्ट्र आशिल्लें.

खनिजांच्या सांठ्यांभितर कोळसो उत्पादनाक चड म्हत्व आसा. देशांत जें कोळशाचें उत्पादन जाता तातूंतलें ८०% उत्पादन केम्पेन हे खणींत जाता. उरिल्लें उत्पादन बॉरीनाझ सँटर, शार्लर्वा आनी नामुर हांगा जाता. कोकाच्या उत्पादनाखातीर कोळशाचो उपेग जायत आशिल्ल्यान केम्पेन खणींतल्या कोळशाचेर तशेंच अमेरिका आनी हेर युरोपी देशांतल्यान येवपी कोळशाचेर हांगाच्यो कोकभट्ट्यो आदारून आसात. पूण कोकभट्ट्यांतल्यान जावपी सैमीक वायूचें उत्पादन देशाची गरज भागोवंक शकना, हाका लागून सैमीक वायू हेर देशांतल्यान आयात करचो पडटा. अँटवर्प, घेंण्ट आनी फ्लुई नगरांनी तेलशुध्दिकरणाचे कारखाने आसात. अशुध्द तेल नॅदरलँड्स आनी हेर देशांतल्यान आयात करतात.

बेल्जियमांत अशुध्द लोखण, तांबें, शिशें, कोबाल्ट, रेडियम आनी जस्त हांचे शुध्दिकरणाचे कारखाने आसात. पूण ह्या चडशा धातूंचे सांठे हांगा साप उणे आशिल्ल्यान ते हेर देशांतल्यान आयात करचे पडटात. तिख्याच्या उत्पादनांत ह्या देशाची संवसारांत बरीच व्हड नामना आसा. सद्या सँब्रा आनी म्यूज ह्या देगणांनी तशेंच झेझाल्ट हांगा तिख्याचें उत्पादन जाता. ओलन हांगा आशिल्लो तांबें शुध्द करपाचो कारखानो अस्तंत युरोपांतलो सगळयांत व्हड आसा रावला.

अभियांत्रिकी उद्देग धंद्यांत बेल्जियम हो एक फुडारिल्लो देश आसा. अँटवर्पाक तारवां बांदपाचो, घेंण्ट आनी लुवराक रेल्वेच्या डब्यांचो जाल्यार ब्रुसॅल्स, शार्लर्वा आनी ल्येझाक विजेच्या उपकरणाचे उद्देग चलतात. अँटवर्पाक रेनॉल्ट, सिट्रोएन, फोक्सवॅगन सारकिल्ल्या कंपन्यांच्यो गाडयो जोडपाचे कारखाने आसात. तशेंच फोर्ड मोटार कंपनीचो व्हड कारखानो आसा.

फ्लँद्रे ह्या मळांच्या वाठारांनी सुती लुगटाचा उद्देग फ्रेंच शिमेसावन अँटवर्पा मेरेन चलता. व्हेरव्हिएरांत लोकरीचे उद्देग चलता. कापूस, ताग, लिनन हांची आयात जाता, जाल्यार फ्लॅक्स देशांतूच तयार जाता. बेल्जियमांत सुती लुगटाचें २६%, लोकरीचें १२% आनी कृत्रीम धाग्यांसावन तयार जावपी लुगटाचें ४९% उत्पादन जाता. लिंबर्ग हें कृत्रीम धाग्यांसावन तयार जावपी लुगटाचें मुखेल केंद्र. रसायनां आनी खनीज तेल रसायनांचे उद्देगधंदे, सँब्रा आनी म्यूज न्हंयांचीं देगणां, केम्पनलँड आनी अँटवर्पांत व्हडा प्रमाणांत चलतात. वखदां, शाबू आनी फोटोग्राफीचीं रसायनां हांचेखातीर उपेगी पडपी कच्चो म्हाल चडसो व्हडल्या शारांनी तयार जाता.

फ्रांस, अमेरिका, भारत, ऑस्ट्रेलिया, जर्मनी, झाइरे आनी ग्रेट ब्रिटन ह्या देशांकडेन बेल्जियमाची आयात-निर्यात जाता. यंत्रसामुग्री, विजेचीं उपकरणां, मोटारी, विमानां, कच्चो म्हाल हांची आयात जाता आनी वखदां, रसायनां, लुगट हांची निर्यात जाता. बेल्जियम फ्रँक हें देशाचें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारण :** हेर अस्तंत युरोपी देशांप्रमाण बेल्जियम होय देश येरादारीच्या मळार खूब फुडारिल्लो आसा. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत हांगाच्यान वाडत वचपी उद्देगांची गरज भागोवपाखातीर रस्ते आनी रेल्वेमार्ग बांदपाच्या कामांक बरोच नेट आयलो. रेल्वेमार्गाचो उपेग वाडट्या उद्देगधंद्याक पालव दिवपाखातीर जाता. ट्रांस-युरोपियन एक्सप्रॅस गाडयो बेल्जियमांतल्या मुखेल शारांतल्यान म्हळयार ब्रुसॅल्स, अँटवर्प, ऑस्टेंड, आर्चेन ह्या शारांतल्यान पासार जाता. रस्ते आनी रेल्वेमार्गांतल्यान हीं शारां शेजारच्या देशांकडेन जोडल्यांत. 'सॅबीना' ही संस्था बेल्जियमाची आंतरराश्ट्रीय विमान वेवस्था पळयता. ब्रुसॅल्सांत व्हड संवसारीक पावंड्याचो विमानतळ आसा. न्हंयो आनी खारजां हांचेवरवीं देशाभितरली प्रवासी आनी म्हालाची येरादारी जाता. अँटवर्प हें देशांतलें सगळयांत व्हडलें बंदर. घेंण्ट, झेब्रख, ऑस्टेंड हींय कांय म्हत्वाचीं बंदरां आसात. शेजारी देशांकडेन वेपार चड करून उदका मार्गांतल्यानूच जाता.

**लोक आनी समाजजीण** ः १९९४ मेरेन बेल्जियमाची लोकसंख्या १,००,००,००० इतली आशिल्ली. पुर्विल्ल्या काळांत ह्या प्रदेशांत बेल्गा जमातीचे लोक रावताले. बेल्गा लोकांवयल्यान ह्या प्रदेशाक बेल्जियम हें नांव मेळ्ळें हेर युरोपी देशांपरस बेल्जियमाचे लोकवस्तेची दाटाय चड आसा.

बेल्जियम समाज सादारणपणान तीन भाशीक गटांनी विभागिल्लो आसा. हॉलंडी भास उलोवपी फ्लेमिंग ह्या लोकांचो गट भोवसंख्य आसून ते मुळावे जर्मन वंशाचे आसात. देशाचे उत्तरेक ह्या लोकांची दाटाय चड आसा. हांचे सकयल वॉलून्झ ह्या फ्रेंच भास उलोवपी लोकांचो आस्पाव जाता. हे लोक मुळावे केल्टिक वंशाचे आसून तांची दाटाय देशाचे दक्षिणेक चड आसा. जर्मन भास उलोवपी लोकांचो तिसऱ्या गटांत आस्पाव जाता.

भाशेचे नदरेन बेल्जियम देशाचे दोन भाग जातात. देशाचे उत्तरेक फ्लेमिंग होलंडी भाशेचो शेक चलता जाल्यार दक्षिणेक भोवसंख्य आशिल्ले वॉलून्झ लोक फ्रेंच भाशेची पोटभास उलयतात. फाटल्या काळासावन चलत आयिल्लो फ्लॅमिश- फ्रेंच भाशावाद आयजूय चलता. हाका लागून आनी भाशीक दंगलींक लागून हांगाचे समाजवेवस्थेचेर वायट परिणाम जाल्यात. देशांत शांतताय उरची म्हणून बेल्जियम सरकारान १९६२-६३ ह्या वर्सा उदेंत-अस्तंत अशी भाशीक शीम रचली. हे शिमेप्रमाण अस्तंत फ्लँडर्स, उदेंत फ्लँडर्स, अँटवर्प आनी लिंबर्ग हीं चार राज्यां फ्लेमिश भाशीक, एनो, नामुर, ल्येझ, आनी लक्सेंम्बर्ग हीं चार राज्यां फ्रेंच भाशीक आनी ब्राबांट हें णववें राज्य द्विभाशीक.

बेल्जियमाचे लोकसंख्येंतले भोवसंख्य लोक फ्लेमिंग आनी वॉलुन्झ हे दोनूय गट रोमन कॅथलिक पंथाचे आसात. प्रॉटेस्टंट आनी ज्यू धर्मांचेय लोक हांगा आसात. वाठाराप्रमाण लोकसंख्येचें विभाजन केल्लें आसा. वाडट्या उद्देगधंद्यांक लागून शारांत लोकवस्तीची दाटाय चड आसा. गांवगिऱ्या वाठारांनी येरादारीची बरी वेवस्था आशिल्ल्यान गांवगिऱ्या वाठारांतले लोक गांवांत रावून शारांनी काम करपाक पसंत करतात. हाका लागून हेर प्रगत देशांपरस बेल्जियम देशांत गांवगिऱ्या भागांतल्यान शारांकडेन वचपी लोकांची ओड खूब उणी आसा. वाडट्या उपनगरीकरणाक लागून मुखेल शारांतल्यान उपनगरांकडेन जावपी स्थलांतराचें प्रमाण अँटवर्प, ब्रुसॅल्स, घॅण्ट, शार्लर्वा ह्या शारांनी दिश्टी पडटा.

ह्या देशांत सण आनी सुवाळे हांचें व्हड दायज आसा. कांय सणांचें मूळ क्रिस्तापयलींच्या काळांतलें आसा. कांय धर्मीक सुवाळ्यांचेर स्पेनी लोकांचो प्रभाव दिश्टी पडटा. बींशांत गॅल्लास लोकांची ग्रोव च्युसडे ही परब फेब्रुवारी म्हयन्यांत येता. ह्याच म्हयन्यांत ग्रामाँ हांगा जावपी उत्सवांत सुकीं लाकडां एकठांय करून होळयो पेटयतात. फॉस-ला-व्हील हांगा कार्नीवालाची परब व्हडा उमेदीन मनयतात. ब्रूझ हांगा इस्टराउपरांत चाळिसाव्या दिसा 'प्रोसॅशन ऑफ द होली ब्लड' मनयतात. ऑगस्ट म्हयन्यांतल्या निमाण्या शेनवारा गोलाइश ह्या राकेसाचें लग्न जाता आनी दुसऱ्या दिसा आट हांगा ह्या राकेसाची मिरवणूक काडटात.

**शिक्षण** ः बेल्जियम देशांत साक्षरतायेचें प्रमाण ९९% आसून ६-१४ वर्सांमेरेनच्या भुरग्यांखातीर शिक्षण सक्तीचें आसा. देशांतली चडशी शिक्षण वेवस्था ही रोमन कॅथलिक परंपरेंतल्यान चलत आयिल्ली आसा. पूण हालींच्या तेंपार आधुनिक अशी धर्मनिरपेक्ष शासनपुरस्कृत शिक्षण पद्दतूय आसा. रोमन कॅथलिक संस्थांक सरकाराकडच्यान अनुदान मेळटा. त्या त्या भाशीक वाठारांतली अधिकृत भास त्या त्या वाठाराचें बरोवपाचें माध्यम थारता. शासकीय पालवान चलपी बालवाड्यांनी सान भुरग्यांक शिक्षण मेळटा. मुळावें शिक्षण हें स वर्सांचें आसून तें ६-१२ वर्सांमेरेनच्या भुरग्यांखातीर आसता. माध्यमिक शिक्षणूय स वर्सांचें आसता. तें तीन पावंड्यांचें आसता. पयल्या पांवड्यावयलें शिक्षण एकेच तरेचें आसता. उपरांत तांकां तांचे आवडीप्रमाण विशय घेवपाक मेळटा. विद्यापिठांत शिक्षण घेतलो जाल्यार माध्यमिक शिक्षण पुराय जातकूच परिक्षा दिवंची पडटा. विद्यापिठांत सुरवेचीं २-३ वर्सां पुर्वतयारेखातीर अभ्यासक्रम आसता. हो अभ्यासक्रम जालो म्हण्टकूच उपरांत २-३ वर्सांनी खाशेल्या विशयाची पदवी विद्यार्थ्यांक मेळटा.

**कलाकुसर** ः मध्ययुगांत अस्तित्वांत आशिल्ले कलेक फ्लॅमिश कला अशें म्हण्टाले. फ्लॅमिश कलेचेर त्या वेळार आद्य क्रिस्ती कॅरोलिंजियन आनी रोमनेस्क कलांचो प्रभाव आशिल्लो. फ्लॅमिश कलेच्या वैभवाच्या तेंपार चित्रकलेक म्हत्वाची सुवात आशिल्ली. यान व्हान आयिक, रोगीर व्हान डर व्हायडन, ह्युगो व्हान डर गूस, हायरॉनिमस बॉस हे पंदराव्या आनी सोळाव्या शेंकड्यांतले म्हत्वाचे चित्रकार आशिल्ले. सतराव्या शेंकड्यांत पीटर पॉल रुबेन्स ह्या बरोक शैलीच्या चित्रकाराचो प्रभाव खूब तेंप तिगून उरलो. ह्याच तेंपावयलें लव्हन हांगाचें सभाघर, अँटवर्पां हांगाचें नगरभवन ह्यो इमारती प्रसिध्द आसात. मुर्तीकलेंत नामनेचो हॉलंडी शिल्पकार क्लाउस स्लूटर हाच्या वास्तववादी शिल्पाकृतींचो प्रभाव आशिल्लो. आधुनिक चित्रकलेंत रने माग्रित आनी पॉल डेलव्हो हे व्हड चित्रकार आसात. तशेंच व्हिक्टर हॉर्टा आनी हांग्री व्हान द व्हेल्द ह्या हालींच्या वास्तूकारांनी खूब नामना जोडल्या.

**म्हत्वाचीं थळां** ः देशांत पर्यटनाचे नदरेन दर्यावेळो, इतिहासीक नामनेचीं फ्लॅमिश नगरां, आग्नेय भागांतलो आर्देन आनी सोबीत दोंगरी वाठार हांकां चड म्हत्व आसा. मध्ययुगाचो उगडास करून दिवपी ब्रूझ, घॅण्ट, ईप्र हीं फ्लॅमिश शारां प्रसिध्द आसात. ब्रुसेल्स हें राजधानीचें शार पर्यटकांक चड आकर्शित करता. ह्या शारांतली 'ग्रँड प्लेस', 'सेंट मायकेल्स कॅथीड्रल', 'नोत्रदाम द सॅब्लॉम' ही इगर्ज तशेंच 'इरॅस्मत हाऊस' ह्यो दोळे दिपकावपी इमारती हांगाचें खाशेलपण आसा.

.- प्रकाश कामत

**बेसबॉल** : एक मैदानी खेळ. दरएकी णव खेळगड्यांच्या दोन पंगडांमदीं पेल्ल आनी बॅट हांच्या आदारान हो खेळ खेळटात. हो अमेरिकेचो राश्ट्रीय खेळ. बेसबॉलाच्या मैदानाचो जो आकार आसता ताचेवयल्यान ताका 'डायमंड' अशेंय म्हण्टात. तातूंत थरावीक अंतराचेर ज्यो चार बेसीस म्हळयार तळ वा घरां आंखिल्लीं आसतात. तांचेवयल्यान ह्या खेळाक 'बेसबॉल' हें नाव पडलें.

एकुणिसाव्या शतमानाचे सुरवेक सावनूच क्रिकेट आनी राउंडर्स हांचे धर्तेवयलो बेसबॉलाचो एक प्रकार रूढ आशिल्लो. तशेंच ताचे आदींय 'वनं ओल्ड कॅट' ह्या नांवाचो चल्यांचो एक खेळ खेळटाले. ह्या प्रकारांतल्यानूच आर्विल्ल्या बेसबॉलाची निर्मिती जाली. ॲबन्र डबलड हाणें १८३९त कूपर्सटाउन, न्यूयॉर्क हांगा हो खेळ सुरू केलो अशें म्हणप जाता. पूण ताच्या एका शतमाना आदीं हो खेळ सामक्या साद्या स्वरुपांत प्रचलीत आशिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. 'लिटल प्रिटी पॉकेट' (१७४४) ह्या भुरग्यांच्या पुस्तकांत 'बेरबॉल' नांवाच्या एका खेळाचें वर्णन मेळटा. अलेक्झांडर कार्ट रायट हाणें १८४५ च्या सुमाराक ह्या खेळाच्या मैदानाच्या घराचें अंतर २८.४३ मी. अशें निश्चीत थरयलें. आनी हॅन्री चॅडविक हाणें पयलें नेमावळीचें पुस्तक (१८५८) तयार केलें. शिंयाळयांतूय हो खेळ खेळूंक मेळचो देखून जॉर्ज हॅनकॉक हाणें १८८७ त शिकागोंत इण्डोर बेसबॉलाचो प्रकार सोदून काडलो. तातूंतल्यानूच फुडें सॉफ्टबॉल हो प्रकार मुखार आयलो.

बेसबॉलाच्या मैदानाचे सादारणपणान तीन भाग जातात. खेळ चड करून जंय चलता तें आंतरमैदान (इनफिल्ड वा डायमंड) मैदानाचे शिमेरेशेमेरेन पातळिल्लें बाह्यमैदान (आऊटफिल्ड हें अंतर उण्यांत उणें ७६.२ मी. आसचें असो संकेत आसा) आनी प्रमाद क्षेत्र (फाउल टॅरिटरी).




बेसबॉल खेळामैदान

आंतर मैदान चवकोनी आसून ताची दरेक बाजू २७.४५ मी. आसता. हातूंत 'होमबेस' वा 'होमप्लेट' म्हळ्यार गृहफळी हें मुखेल घर आसून तें सगळ्यांत म्हत्वाचें आसता. ताचे उजवे वटेन म्हळ्यार घड्याळी कांट्याचे उरफाटे दिकेन अनुक्रमान पयलीं, दुसरीं आनी तिसरीं घरां आसतात. घर दाखोवपी कॅनवासाच्यो धव्यो पोतयो जमनींत रोमिल्ल्या लोखणाचे खुंटयेक बांदिल्ल्यो आसतात.

होमप्लेट म्हळयार गृहफळी ही धवी रबराची पंचकोनी फळी आसून, ती जमनींत एके पातळेंत बसयल्ली आसता. तिची फुडली कूस ४३ सेंमी. (१७ इंच) रूंद आसून लांबायेच्यो दोन वटो २१.५ सेंमी. (८$^{1}/_{2}$ इंच) आनी पांचव्या कोनाच्यो दोन वटो ३०.५ सेंमी. (१२ इंच) आसतात. गृहफळयेचे दावे आनी उजवे वटेन बॅटराक म्हळयार फलंदाजाक उबो रावपाक दोन 'बॅटर्स बॉक्स' महळ्यार फलंदाज कक्ष आसतात. त्यो दरेकी १.८ मी. (६ फूट) लांब आनी १.२मी. (४फूट) रूंद आसतात. ताचे फाटले वटेन गृहफळयेपसून २.४ मी. (८फूट) लांब आनी १.१मी. रूंद अशे 'कॅचर्स बॉक्स' म्हळयार झेलकरी कक्ष आसतात. गृहफळयेपसून दुसऱ्या घराचे दिकेन १८.४मी. अंतराचेर सादारणपणान आंतरमैदानाच्या मध्य भागार एक वाटकुळो ल्हानसो उंचवटो आसता. ताचो व्यास ५.५मी. आनी मध्याची उंचाय २५ सेंमी. आसता. त्या उंचवट्याचेर ६१सेंमी. लांब आनी १५ सेंमी. रूंद अशी धवी रबराची फळी बसयल्ली आसता. तिका 'पिचर्स प्लेट' म्हळयार गोलंदाजी फळी म्हण्टात. गृहफळयेच्या पयल्या आनी तिसऱ्या घराचे दिकेन मैदानाचे शिमेमेरेन ज्यो ओळी काडिल्ल्यो आसतात, त्यो प्रमादओळी (फाऊल लायन्स) आसतात. त्या ओळीं पलतडचें तशेंच गृहफळयेचे फाटले वटेनचें क्षेत्र म्हळयार प्रमादक्षेत्र. ते ओळी भितरलें आनी भायलें मैदानाचें मेळून जावपी क्षेत्र हें खेळाचें विहित क्षेत्र (फॅर टॅरिटरी) मानप जाता.

बेसबॉलाच्या पेल्ल्याचो आवांठ २३ ते २३.५ सेंमी. आनी वजन १४२ ते १४८.८ ग्रॅ. मेरेन आसता. बॅट हें सादारणपणान ॲश लाकडापसून तयार केल्लें गुळगुळीत आनी वाटकुळसार आसता. तें मुठीकडेन अशीर जाल्यार दुसऱ्या तोंकाकडेन दाट आसता. आनी ह्या दाट वाटकुळ्या भागाचो व्यास ७ सेंमी. आसता. बॅटाची लांबाय चडांत चड १.०६७ मी. आसता.

खेळगडे विशिश्ट प्रकाराचीं संरक्षक साधनां वापरतात. क्षेत्र रक्षक पेल्ल जिखपाखातीर चामड्याचीं दाट लुवां वापरतात. फलंदाज एक खाशेलें तयार केल्लें प्लास्टीकचें शिरस्त्राण वापरतात. जाल्यार झेलकरी तोंडाचेर धातूचे जाळयेचें मुखें घालता. हड्डयार दाट कापडी संरक्षक आनी पांयांक प्लास्टिकाचे नडगी-रक्षक (शिन गार्डस) वापरतात.

बेसबॉल खेळाचो मुखेल उद्देश म्हळयार प्रतीस्पर्धी संघापरस चड धांवड्यो काडप. ते नदरेन फलंदाजी करपी संघ चडांत चड धांवड्यो जमोवपाचो यत्न करता, जाल्यार क्षेत्ररक्षण करपी संघ तांच्यो धांवड्यो आडावन तांकां बाद करपाचो यत्न करता. दरेका संघांत णव खेळगड्यांभायर राखीव खेळगड्याचीय तजवीज आसता. पूण ज्या खेळगड्या जाग्यार बदली खेळगडो घेवप जाता त्या मूळ खेळगड्याक परत खेळांत भाग घेवंक मेळना. हाचेभायर दर एका संघावांगडा एक वेवस्थापक आनी कांय तज्ञ प्रशिक्षक आसतात. वेवस्थापक संघांतल्या खेळगड्यांच्या फलंदाजीचो क्रम, आदी संघाची व्यूहरचना, डावपेंच आदी थरयता. तज्ञ प्रशिक्षक प्रत्यक्ष सामनो चालू आसतना क्रिडाक्षेत्राच्या भायर म्हळयार प्रमादक्षेत्रांत रावन सांकेतीक कुरवांच्या आदारान खेळगड्याक सुचोवण्यो करता. तेचपरी वेवस्थापकाच्या डावपेंचाच्यो कल्पना खेळगड्यांमेरेन पावयता. सामन्याचें नियंत्रण पंच करता आनी सादारणपणान दर एका घराखातीर एक एक पंच आसता. गृहफळयेकडलो पंच मुखेल आसून तो खेळगड्याच्या बाद जावपाविशींचे तशेंच नेमा भायले पेल्ल मारल्यार म्हत्वाचे निर्णय दिता. फलंदाजी करपी संघाचे तीन खेळगडे बाद जातकच तांचो डाव सोंपता आनी उपरांत क्षेत्ररक्षण करपी संघ फलंदाजी करता. दोनूय संघांची फलंदाजी पुराय जातकच एक डाव (इनिंग्स) सोंपता. अशे वट्ट णव डाव खेळप जाता आनी हांतूत जो संघ चड धांवड्यो काडटा तो जैतीवंत थारता. णव डावा उपरांतूय दोनूय संघाच्यो धांवड्यो सारक्यो आसल्यार एक संघ दुसऱ्या संघाचेर जैत जोडसर खेळ चालू उरता.

ज्या संघाच्या मैदानाचेर खेळ चलता तो येजमान संघ (होम टीम) आनी प्रतिस्पर्धी हो सोयरो संघ (व्हिजिटिंग टीम) आसता. सोयऱ्या संघान पयलीं फलंदाजी करची अशी चाल आसा. तेप्रमाण येजमान संघाचे सगळे खेळगडे आपआपल्या क्षेत्ररक्षणाच्या जाग्यार उबे रावतात. पेल्ल घालपी 'पीचर' म्हळयार गोलंदाज हो गोलंदाजी फळयेकडेन जाल्यार क्रिकेटींतल्या यश्टीरक्षकाप्रमाण फलंदाजा फाटल्यान उबो रावन पेल्ल आडावपी झेलकरी हो झेलकरीकक्षांत उबो रावता. उरिल्ल्या खेळगड्यांची क्षेत्ररचना अशी : गृहफळी सोडून उरिल्ल्या दर एका तळार एक एक क्षेत्ररक्षक आसता. ताका अनुक्रमान पयलो, दुसरो आनी तिसरो बेसमेन म्हळयार तळरक्षक म्हण्टात. 'शॉर्टस्टॉप' म्हळयार चवथो क्षेत्ररक्षक दुसऱ्या आनी तिसऱ्या घरांच्या सादारण मदीं पूण भितर मेरेन क्षेत्ररक्षण करता. उरिल्ले तीन क्षेत्ररक्षक भायल्या मैदानार दावे, उजवे आनी मदले वटेन उबे रावन क्षेत्ररक्षण करतात.

हालींच्या काळांत बेसबॉलाक संवसारीक पांवड्यावयलो एक खेळ म्हणून नामना मेळ्ळया. १९०३ सावन बॅसबॉलाच्यो संवसारीक सर्ती जातात. त्यो 'नॅशनल लीग' आनी 'अमेरिकन लीग' हांच्यांतल्या जैतीवंत संघांमदीं जातात. हाचेभायर सुमार ६० वयर दुय्यम वेवसायीक संघटना आसात. 'वेब रूथ' हो आनी 'हँक आरॉन' हे ह्या काळांतले सर्वश्रेश्ठ बेसबॉलपटू.

अमेरिके फाटोफाट हो खेळ जपानांत व्हड प्रमाणांत खेळटात. १९३६ त आंतरराश्ट्रीय महासंघाची (कॉन्फॅडरेशन) स्थापना जाली. तेन्ना ताचीं १७ राश्ट्रां वांगडी आशिल्लीं. आतां तांचो आंकडो चाळिसांपरस चड जाला. १९५३ सावन युरोपियन बेसबॉल फॅडरेशनाची स्थापना जाली आनी ताच्या फुडल्या वर्सा युरोपी विजेतेपदाचे सामने सुरू जाले. हाचेभायर वांगडी राश्ट्रांतल्या जैतीवंत क्लबांत दर वर्सा युरोपीय करंडा खातीर खेळ जाता. ऑस्ट्रेलियांत एक शिंयाळी खेळ म्हणून हो खेळ खेळप जाता. कूपर्सटाऊन न्युयॉर्कांत ह्या खेळाचें राश्ट्रीय स्मारक 'हॉल ऑफ फेम' आनी संग्रहालय १९३९त उबारलां. हातूंत खेळाच्या इतिहासांत १९३७ सावन आयजमेरेन जावन गेल्ल्या नामनेच्या खेळगड्यांची नोंद केल्ली आसा. तेचपरी, ह्या खेळांतल्या याद उरपा सारकिल्ल्या साधनांचो आनी वस्तूंचो संग्रह केल्लो आसा.

१९५२ वर्सा अमेरिकेन ऑलिंपिकांत बेसबॉल हो प्रदर्शनीय खेळ म्हणून सादर केलो. तातूंत फिनीश बेसबॉलाचो आस्पाव करपांत आयलो. १९९२ त बेसबॉल हो पयले खेप मेडल खेळ जालो.

ऑलिंपिकांत बेसबॉल खेळांत वांटो घेतिल्ले देश आनी वर्स अशें आसा.

| वर्स | देश | वर्स | देश |
|---|---|---|---|
| १९१२ | अमेरिका | १९३६ | वर्ल्ड ॲमेट्युअर्स |
| १९३६ | अमेरिकन सर्वीस टीम | १९६४ | अमेरिका |
| १९८४ | जपान | १९८८ | अमेरिका |
| १९९२ | क्युबा (मेडल) | | |

- कों. वि. सं. मं.

**बेळगांव :** कर्नाटक राज्यांतल्या बेळगांव जिल्ह्याचें आनी प्रशासकीय विभागाचें मुखेल ठिकाण. वेळुग्राम (कोंडे-वेळुचो प्रदेश) ह्या मूळ नांवावयल्यान बेळगांव हें नांव वापरांत आयलें अशें म्हणप जाता. हें शार मुंबय बेंगळूर राश्ट्रीय महामार्ग क्र. ४ चेर वसलां. दक्षिण-मध्य रेल्वे मार्गावयलें हे एक स्थानक. कर्नाटक आनी महाराष्ट्र राज्याचे शिमेर आशिल्लें हें शार अस्तंत घाटाच्या उताराचेर दर्याचे पातळेसावन सुमार ७६० मी. उंचायेचेर वशिल्लें आसा. गोंय आनी अस्तंत दर्यादिगेर आशिल्ल्या प्रदेशाच्या मार्गावयलें बेळगांव हें प्रवेशदार जाल्ल्यान राजकीय तशेंच अर्थीक नदरेन ह्या शाराक एक आगळी अशी सुवात खूब आदल्या काळासावन मेळळया.

इ. स. १२०५ च्या सुमाराक होयसळांकडल्यान रट्टांनी हें शार घेतलें आनी ताकाच आपली राजधानी केली. १२५० त हें रट्टांकडल्या यादवांकडेन आयलें आनी फुडें १३७५त ताचो विजयनगर राज्यांत आस्पाव केलो. उपरांत कांय तेंप हांगा मुसलमानी राजवट आशिल्ली. १७५४ त हें शार पेशव्यांनी घेतलें. १८१८त ह्या शाराचेर इंग्लिशांनी जैत जोडलें. १८३८ सावन हें बेळगांव जिल्ह्याचें मुखेल ठिकाण जालें. स्वातंत्र्या आदल्या काळांत हें मुंबय इलाख्यांत आनी उपरांत मुंबय प्रांतांत गेलें. १९५६ चे भाशीक पुनर्रचणुके उपरांत तेन्नाच्या म्हैसूर (आतां कर्नाटक) राज्यांत गेलें. ह्या शारालागसारूच भोंवतणीं चर आशिल्लो सोळाव्या शतमानांतलो मोडके अवस्थेंतलो एक व्हड भूंयकोट किल्लो आसा. हांगा एक लश्करी छावणी आसा.

बेळगांव ही लागसारच्या शेती उत्पन्नाची मुखेल बाजारपेठ आसून हांगा चड करून तांदूळ, ऊंस, कापूस, तंबाकू, तेलबियो, लाकूड आनी दुदाचे पदार्थ (लोणी, कुंदो) हांचो व्हड वेपार चलता. हाचेभायर कोंकणांतल्यान (वेंगुर्ला बंदरांतल्यान) येवपी नाल्ल, मीठ, सुकें नुस्तें, खाजूर हांचीय ही बाजारपेठ. गोंय आनी कोंकण वाठारांचीय ही म्हत्वाची बाजारपेठ. हातमागावयल्या लुगटां खातीर आनी खास करून 'शहापूरी साडयांखातीर ह्या शाराची नामना आसा.ह्या शारांत मोटार बांदणी, फर्निचर, फस्कां, रसायनां, शाबू, कातडी उद्देग, तांबें-पितूळचीं आयदनां, हांचे उद्देग चलतात. शारालागसारूच ॲल्युमिनीयमाचो व्हड कारखानो आसा.

शारांत मानव्यविद्या, विज्ञान, तंत्रविद्या, आयुर्वेद, अभियांत्रिकी, वैजकी, वाणिज्य, आदी विशयांच्यो उच्च शिक्षणसंस्था आसून त्यो सगळयो कर्नाटक विद्यापिठाक संलग्न आसात. हांगा इंग्लीश, कानडी, उर्दू, इंग्लीश ह्या भाशांच्या माध्यमांची सुविधा आसा. 'किंग जॉर्ज पब्लिक स्कूल' ही सैनिकी शिक्षण दिवपी निवासी संस्था हांगा आसा. शारांतल्या ओडलायण्या थळांमदीं सोळाव्या शतमानांतली मशीद आनी किल्ल्यांतलीं दोन जैन देवळां उल्लेख करपासारकीं आसात. हें शार दर्यापातळेपसून बरेंच उंचायेर आशिल्ल्यान बेळगांवां भोंवतणच्या लोकांखातीर हें थंड हवेचें ठिकाण जालां. तशेंच, एक म्हत्वाची बाजारपेठ जाल्ल्यान गोंय धरून दर्यादिगेवयल्या हेर वाठारांतल्या लोकांची बेळगांवां बरीच यो वच आसा.

बेळगांवच्या मराठी भाशिकांच्या मतान बेळगांव हें शार भाशीक आनी संस्कृतीक नदरेन महाराष्ट्रांत आसचें अशें आसून तेखातीर महाराष्ट्र एकीकरण समितीचे वतीन दीर्घ काळाचें आंदोलनूय चलयलां. शाराच्या ह्या प्रस्नाचेर १९६७त भारत सरकारान महाजन आयोग नेमिल्लो. पूण फुडें आयोगान केल्ल्या अहवालाची कारवाय जावंक पावलिना आनी अजुनूय हो प्रश्न हुमकळत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बैगा :** एक आदिवासी जमात. ह्या लोकांची वस्ती मध्य प्रदेशांतल्या दोंगराळ वाठारांनी चड करून मंडला, बिलासपूर, बालाघाट, दूर्ग ह्या

जिल्ह्यांनी आसा. छत्तीसगढ वाठारांतलें बैगा-चाक हें तांचें मूळ ठिकाण.

वंशीक नदरेन मुंडा वा कोलारियन वंशाची ही शाखा आसुंये अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा जाल्यार कांय जाण हे जातीक भुईया जातीची पोटजात मानतात. विंझवार, कुंडी, कुर्क, सावत अशो बैगाच्यो पोटजाती आसात. बैगाचीं चवदा गोत्रां आसात. तीं अशीं- तातरिया, सादिया, दारिया, नादिया, सारारिया, रोठोरिया, मुडाकिया, बरारिया, घंगारिया, लामोथिया, चांद्रोनिया, कुशारिया, देवाडिया आनी पंगारिया.

बैगा लोक तांबशा-काळ्या वर्णाचे आसून रुपेस्त तशेंच बळिश्ट आसतात.

बैगा लोक तिगपी घरां बांदिनात. तांच्यो खोंपी कुडाच्यो आसून त्यो लांब चवकोनी आसतात. तांची बसपाची, जेवपाची, न्हिदपाची एकूच सुवात आसता. खोंपींत मदीं एक कड्डुणाची कणगी दवरून खोंपीचे दोन भाग करतात.

बैगा दादले माथ्याक एक कपडो गुठलायतात, सदरो घालतात आनी लंगोट न्हेसतात. बायलो वायल न्हेसतात आनी जायत्यो रुप्याच्यो आनी बिडाच्यो वस्ती घालतात. आंगभर पाडून घेतात.

कंदमुळां, फळां, कुटकीची पेज, नुस्तें बैगा लोक खातात. नितळसाणेची तांकां जाणविकाय नासता. पियेवपाक सोडल्यार हेर कसल्याच कामाक ते उदकाचो उपेग करिनात. संडासाखातीर ते उदक वापरिनात. हालीं जे लोक उदक वापरतात तांची आगळीच जात तयार जाल्या.

बैगा लोकांचीं स्वतंत्र देवळां नात. पूण दर एका घरांत देवांच्यो मुर्ती आसतात. भगवान देव, बडा देव (उबराचें झाड), ठाकूर देव (गांवची शीम वा जमीन), दुल्हादेव (रोग वा अपघात), भीमसेन (पावस) हे सगळे दादले-देव आसात. धरित्रीमाता, आजी दादी ह्यो बायल-देवता आसात. आजी दादी ही रांदनी फाटल्यान आसता. नारायण देव हो हुंबऱ्याचो देव, तेचप्रमाण रातमाई ही रातीची देवता आसता. हे सगळे देव कल्याणकारी आसात अशें बैगा लोक मानतात.

होळी, दसरो, दिवाळी ह्यो परबो ते मनयतात. पौष म्हयन्यांत ते 'चरता' ही म्हत्वाची परब मनयतात. ही परब भुरग्यांची आसता.

शकून-अपशकुनाचेर ह्या लोकांचो खूब विस्वास आसा. रानांत काम करपाक ते शेनवार वा आयतार बरो मानतात. सोमारा ते तेल गाळटात. मंगळारा प्रवास करिनात. पयसुल्लो प्रवास करपाक बुधवार बरो मानतात. मोग्याचे भेटेक बिरेस्तार आनी सुसेग घेवपाक शुक्रार दीस दवरतात. प्रवासाक वतना वाटेर सोरोप आडवो येत जाल्यार फुडें वचनात. एकूच कावळो उदकांत आंग धुयतना दिसल्यार पयसुल्ल्या गांवांतलो कोण तरी सोयरो मेला अशें मानतात.

एकाच गोत्रांत लग्नां करिनात. आतेभयणीकडेन लग्नां जातात. लग्न सुवाळो व्हंकलेगेर जाता. न्हवऱ्याच्या बापायक व्हंकलेक देज दिवंचो पडटा. तो दिवपाची तांक नासल्यार न्हवरो आपल्या भावी मांवाम्हऱ्यांत काम करता. ताका लामसेन म्हण्टात. साकरपुड्या उपरांत न्हवऱ्या वटेनचे लोक सोरो घेवन व्हंकलेगेर वतात. थंय तांकां जेवण आसता. तेन्ना लग्नाचो दीस थरयतात. ह्या विधीक 'बारोखी' अशें म्हण्टात. थरयल्ल्या दिसा न्हवऱ्या वटेनचो लोक व्हंकलेगेर येतात. तातूंत बायलो नासतात. जेवणां जातकच रातभर नाच जाता. दुसऱ्या दिसा दनपरां माटवांत एक खांबो पुरतात आनी न्हवरो-व्हंकल त्या खांब्याक पांच प्रदक्षणां घालतात. हो विधी जातकच व्हंकल आपल्या आवय-बापायवांगडा न्हवऱ्यागेर वता. थंयच्या माटवांतल्या खांब्याभोंवतणीं न्हवरो-व्हंकल सात प्रदक्षणा घालतात. जेवणां जातकच नाच जाता. न्हवरो-व्हंकल एकामेकांचेर मक्याचे दाणे उडयतात. उपरांत न्हवरो व्हंकलेच्या हातांत मुदी घालता. व्हंकलेचीं आवय-बापूय न्हवऱ्याचे पांय धुयतात. मागीर सगळीं घरांत येतात आनी जेवणां जातात. तांच्या लग्नाक ब्राह्मणाची गरज नासता. दर एके पोटजातींत लग्नाचे विंगड विंगड प्रकार आसतात.

भुरगें जल्मतकच ताका कुटुंबांतलो पुर्वज आयलो अशें मानतात. रुप्याचो कुडको उडयल्ल्या उदकांत त्या भुरग्याचे पांय धुयतात आनी तें उदक तीर्थ म्हणून पियेतात. जावळ काडपा वेळार भुरग्याचो मामा ताका नांव दवरता.

बैगा लोक मडें पुरतात वा लासतात. दफन करतना मड्या म्हऱ्यांत कोयतो, सूप आनी सुकिल्लो दुदी दवरतात. घुबडाक बळी दितात. तातूंतलो मेल्ल्या मनशाच्या नांवाचो वांटो कुशीक काडून उरिल्लो खातात. वागाच्या हल्ल्यान मरण आयल्यार, त्या वागाचो परतूनं दुसऱ्याक त्रास जावंचो न्हय म्हणून आनी मेल्ल्या मनशाक शांती मेळपाखातीर खाशेलो विधी करतात.

बैगा लोक म्होंव आनी पांटले करून विकतात. तशेंच गायो, कुकडां, बोकडां, दुकरां पोसतात. तांकां मोलमजुरी करपाक आवडना. झूम पद्दतीने ते शेती करतात. दर तीन वर्सांनी शेताची जमीन बदलतात.

ह्या लोकांक नाच करपाक खूब आवडटा. दादले-बायलो एकामेकां सामकार उबे रावन पखवाजाच्या तालार नाचतात. बायलो पांयांक पांयजणां बांदतात.

- कों. वि. सं. मं.

## बैजू बावरा : (जल्म : इ.स.चो १६ वो शेंकडो).

ग्वाल्हेरचो एक नामनेचो गवय.ताणें बरींच ध्रुपदां रचल्यांत. तातूंतलें 'रामकल्पद्रुम' ह्या ग्रंथांतलें एक ध्रुपद अशें आसा-

*आंगन भीर भई ब्रजपति के आज नंद महोत्सव आनंद भयो*
*हरद दूब दधि अक्षत रोरी ले छिरकत परस्पर गावत*
*मंगल चार नयो ब्रह्मा ईस नारद सुर नर मुनि हरबित*
*विमानन पुष्प बरस रंग ठयो धन-धन बैजू संतन हित प्रकट*
*नंद जसोदा ये सुख जो दयो।*

**अर्थ :** ब्रजपति नंदाच्या घरा आयज नंदलालाचो महोत्सव आसा. सगळें आंगण भरून गेलां. दूद, धंय, हळद, अक्षता हांची लयलूट आसा. लोक अक्षता, गुलाल उडयतात. नाचून, गावन दबाजो मनयतात. तो सुवाळो पळोवन ब्रह्मा, महेश, नारद, देवगण,मुनिवर हांकां खूब उमेद जाल्या. ते विमानांतल्यान फुलां उडयतात. नंद आनी यशोदा हांकां आनी भक्तांक सूख दिवपी श्रीकृष्णाच्यो ह्यो लिला वर्णन करून बैजू धन्य जालो.

बैजू तानसेनाच्या काळांतलो आसून ताचेविशीं एक आख्यायिका आसा ती अशी-

तानसेन आनी बैजू बावरा हांची गायनाची एक दीस सर्त लागली. बैजून आपल्या गायनाच्या प्रभावन रानांतल्या हरणांक मंत्रमुग्ध करून आपले म्हऱ्यांत हाडलीं आनी एका हरणाच्या गळयांत माळ बांदून ताका सोडून दिलें. उपरांत तानसेनान आपल्या गायनान त्या माळ घाल्ल्या हरणाक आपोवपाचो यत्न केलो. पूण तें हरण आयलेंना. बैजून परतून गायन केलें आनी तें हरण बैजू म्हऱ्यांत आयलें. बैजूचें हें कसब पळोवन तानसेनान आपली हार मान्य केली.

ताचे कांय शिश्यूय आशिल्ले. तातूंतलो गोपाल नायक हो नामनेचो गायक जालो. स्वामी हरिदास हाकाय खूब नामना मेळळी.

- कों. वि. सं. मं.

**बैरागी :** एक पंथ. संवसारीक इत्सा, आकांक्षा हातूंतल्यान मुक्त जावप, कामक्रोधाचेर नियंत्रण दवरप हाका विराग अशें म्हण्टात. ह्याच उतरावयल्यान बैरागी हें उतर आयलां.

बरेच ज्ञाण गोसावी आनी बैरागी सादारणपणान समानार्थी समजतात. बैरागी हो गोसाव्यांतलो एक पोटभेद. एच. एच. विल्सन हाच्या मताप्रमाण गोसावी हे शैव पंथी आनी बैरागी वैश्णव पंथी. पूण गोसावी आनी बैरागी हांचेमदीं तसो पुरायपणान भेद दिसना. शैव बैराग्यांक 'कानफाटे' बैरागी अशेंय म्हण्टात.

वैश्णव बैरागी गळयांत तुळशीच्यो माळो घालतात. कपलाचेर गंधाच्यो व गेरुच्यो दोन उब्यो ओळी काडटात. हे बैरागी चड करून बंगाल आनी राजस्थानांत आसात. ते विष्णु वा राम-कृष्णाचे अवतार हांची उपासना करतात.

दक्षिण भारतांत रामानुजाचार्याक लागून आनी उत्तर भारतांत रामानंदाखातीर वैश्णव बैरागी ह्या पंथाचो प्रसार जालो. तातूंतल्या रामाच्या उपासकांक रामानंदी आनी कृष्णाच्या उपासकांक निमानंदी अशें म्हण्टात. तांचीं चिन्नां, तीर्थक्षेत्रां, प्रमाणग्रंथ, दीक्षाविधी ह्यो सगळयो गजाली वेगवेगळयो आसतात. शैव बैराग्यांपरस वैश्णव बैराग्यांची साधना सौम्य आसता. कांय वैश्णव बैरागी कृष्णाक मानतात पूण राधेक मानिनात.

इस्लाम धर्मांत फकीर ह्या शब्दाचो अर्थ हिंदू धर्मांतल्या गोंसाय, बैरागी आनी साधू ह्या शब्दांक लागू जाता. भिक्षाटन आनी तिर्थाटन करपी हिंदू साधूंचो व्हड प्रमाणांत ह्या दोनूय नांवांनी आस्पाव करप जाता. तेचप्रमाण शैव आनी वैश्णव संप्रदायांतल्या बऱ्याच पंथांचोय गोंसाय, बैरागी संज्ञेंत आस्पाव जाता.

**पूरक नोंद** : पळेयात गोसावी. - कों. वि. सं. मं.

**बैल :** संघ : कणाधारी; गण : सस्तन; वर्ग : समखुरी; उपवर्ग : रवंथी; कूळ : गोकूल; उपकूळ : बोव्हिनी; प्रजापती : ब्रॉस; जाती: १) बॉस टॉरस.

लांबाय, उंचाय, घेर, कुडीची घडण, पांय, तोंडावळो, मान, खांदो कान, दोळे शेंपडी, रंग, वजन अशा गुणांचेर बैलाचें वर्णन करतात. ल्हान गांवठी तशेंच प्रचंड व्हड बैल आसतात. भारता भायली जात (हॉल्स्टेन) हांचें वजन १००० किलो पसून असता. ताची उंचाय १४८ सेंमी. आनी घेर २३४ सेंमी. आसता. भारतीय बैल वजनान उणो आसता. बैल काळया, धव्या वा तांबड्या रंगाचे आसतात.



**इतिहास** : बलीवर्द ह्या संस्कृत उतरापसून बैल हें उतर जालां आसुंये. बैलाचें दुसरें संस्कृत नांव वृषभ अशें आसा. तें वृषवर्षाव करपी ह्या धातूपसून जालां. वृष म्हळयार वीर्य असोय एक अर्थ जाता. बैल हो सगळयांत वीर्यवान असो प्राणि मानला. वीर्य हें बळ आनी पराक्रम हांचें चिन्न मानलां. ताचेवयल्यानूच ऋग्वेदांत अग्नी, इंद्र आनी देवतांचें बळ उक्तावणखीतर ताका वृषभ हें नांव दिलां. अथर्ववेदांत बैलाविशीं एक स्वतंत्र सुक्त आसा तें अशें : बैल हो सहस्त्र शक्तींनी युक्त आसा. न्हंयेचे देगेर ताचीं तरेकवार रुपां पळोवंक मेळटात. तो गायेचो घोव. ताचेवरवीं आमचें जायत्या तरांनी पोशण जाता. ताचे भितर बृहस्पती,

इंद्र, वरूण आदी देवांची शक्त आसा. तो साक्षात इंद्र. त्वष्टा आनी वायू हांचें सत्व ताचेमदीं आसा. ताचे कुडींत जायत्या तरांचे देव रावतात. बैलाचें दान करप्याक गायो, प्रजा आनी शारिरीक बळ मेळटा. बैल गोशाळेंत रावूं दी ताचे वांगडा गाय रमूदी, बैलान स्वता पुश्ट जावन आमकांय तशेंच करूं दी, शेताच्या आनी हेर कामांनी बैल उपेग पडिल्ल्यान मनशान ताका मानाची सुवात दिल्ली.

बैलाचो इतिहास सुमार ६५०० वर्सांसावन सुरू जालो आसुंये. सुरवेच्या काळांत मनीस अन्नाखातीर भोंवत रावतालो. तेन्ना तो आपलेवांगडा सुणें, घोडे अशी मोनजात पोसतालो. पूण जेन्ना मनीस एका जाग्यार रावन शेत पिकोवन खावंक लागलो तेन्ना ताचे वांगडा गोरवांय रावंक लागलीं. अशे तरेन बैल मनशांचो इश्ट जालो.

हडप्पा आनी मोहेंजोदडोंत केल्ल्या उत्खननांत बैलाचें चित्र आशिल्ल्यो जायत्यो मुद्रा मेळल्यात. ह्या मुद्रांवयलीं बैलाचीं शिंगां व्हड आसात. ह्या चित्रांत बैलाचो वृषण पुश्ट दाखयला. हाचेवयल्यान सिंधू संस्कृतींतले लोक वृषभपूजक आसुंये अशें अनुमान काडप जाता. वृषभपुजेचो संबंद प्रजननाकडेन आसा. भारतांत जायत्या आदिवासी जमातींमदीं बैलाचीं शिंगां मुकुटा भाशेन आपल्या माथ्यार बसोवन नाच करपाची चाल आसा. बैलाच्या शिंगांनी अतिमानवी शक्त, प्रजननशीलताय, पावित्र्य, यश आनी समृध्दी हे गूण आसतात असो समज आशिल्ल्यान नाचा वेळार माथ्यार हीं शिंगां घालतात.

शैव संप्रदायांत बैल हें शिवाचें वाहन मानलां. शिवाच्या देवळांत सदांच शिवामुखार बैल बशिल्लो आसता आनी ताका नंदी म्हण्टात. हे नंदीमुर्तीच्या वृषणाक हात लावन ताच्या दोनय शिंगांमदल्यान शिवदर्शन घेवंचें असो संकेत आसा. वीर शैव संप्रदायांत नंदीचें खुबूच म्हत्व आसून ते लोक ताका बसव म्हण्टात. म्हैसुरालागसार बसवनगुडी नांवाचें बैलाचें एक देवूळ आसा. रुद्राक तैत्तिरीय संहितेंत गोमृग म्हळां. त्या विशेशणावयल्यान फुडें बैल हें शिवाचें वाहन कल्पिलां आसुंये. शिवाक प्रजापतीकडल्यान वृषभ हें वाहन मेळळें असो महाभारतांत उल्लेख आसा.

ज्योतीशशास्त्रांत राशिचक्रांत दुसरी सुवात वृषभ राशीक आसा. इजिप्तांत एपिस देवाची पुजा वृषभ रुपांतूच करताले. पुर्विल्ल्या इराणांतले जायते शिल्पाकृतींत मिथ्र (सुर्यदेव) बैलाचीं शिंगां धरून ताका हारयता आनी ताचेर ज्या जाग्यार सुरी मारता थंय रगत येनासतना धान्याचीं कणसां भायर पडटात अशें दाखयलां. हातूंत बैल हो समृध्दीचें प्रतीक आसा असो हेतू आसुंये.

**वाठार** : पुराय संवसारांत बैल ही मोनजात मेळटा. प्रजनन, काम आनी मांस हांचेखातीर सगळ्या खंडांनी ताका म्हत्व आसा. भारतांतूय बैलाक खाशेलें म्हत्व आसा. गोंयांत गांवठी तशेंच देशी बैल आसात.

बैलाच्यो अस्तंत्यो जाती अशोः जर्सी, होल्स्टेन, फ्रिजियन, रडे, डॅनिश, ब्राऊन स्विस, आयरशायर, हरफर्ड, डेरी, शॉर्टहॉर्न. बैलाच्यो भारतीय जाती अशो : सिंधी, गीर, शाहिवाल, अमृत महाल, डांगी, देवनी, हरीयाना, ओंगोल, थारपारकर, कांगायाम, हल्लीकार कांक्रेज. बैलाच्यो संकरीत जाती अशो : सिंधी X जर्सी, सिंधी X हॉल्स्टेन, गीर X जर्सी, गीर X हॉल्स्टेन, गांवठी X भारता भयली. गोंयांतूय संकरीत तशेंच गांवठी बैल आसात.

**पोसपः** बैल गोठ्यांत रावता. वत, वारो, पावस, शीं हांचेपसून राखण जाता असलो गोठो लागता. जागो उण्या चड आकाराप्रमाण लागता. प्रजनन करपी बैलाक खास पोसपाची पद्दत आसता. तशेंच तांकां व्यायाम करपाक सुवातेची गरज लागता. बैलाक धान्य, पेंड, भुसो, वाण, जितें सुकें तण, क्षार विटामिनां लागतात. तशेंच ताका नितळ उदक भरपूर प्रमाणांत मेळपाक जाय.

**उपेग** : खास प्रजनन करपी बैल खूब म्हारग आसता. ताका सैमीक संभोगाक वापरतात. तेच प्रमाण ताचें वीर्य वापरून कृत्रीम गर्भधारणा करतात. शेतीच्या कामांत सामान व्हरपाक, गाडे ओडपाक, शेतांत नांगर ओडपाक बैलाचो उपेग करतात. बैलाच्या हाडाचो तेचपरी कातीचो आनी हेर कुडीचोय उपेग करतात.

**पिडा** : हेर मोनजातीक जातात तेप्रमाण बैलाकूय जायत्या तरांच्यो पिडा जातात. कांय पिडा वाशिनांनी वखदांनी बऱ्यो जातात. जाल्यार कांय रोगांचेर उपाय नात. बैलांक लाग, माता, घटसर्प, फऱ्या, मूतखडो, पोट फुगप अशो जायत्यो पिडा जातात.

**खाशेलपण** : ल्हान शेतकामत्याक परवडपी आनी खूब काम करपी देखून बैलाक मनशाचे जिणेंत म्हत्वाची सुवात आसा.

- डॉ. ए. व्ही. खांडेपारकार

**पूरक नोंद** : गाय.

**बैलगाडी** : येरादारीचें एक पुरातन साधन. माल आनी मनशांची येरादारी करपाखातीर, आदल्या काळांत जनावरांनी ओड़पाच्या गाड्यांचो उपेग करताले. बैल हें तातूंतलेंच एक जनावर. बैलांनी ओडपाच्या वाहनाक बैलगाडी म्हण्टात. अजुनूय कांय मागाशिल्ल्या वाठारांनी, जंय आधुनिक येरादारीच्यो सुविधा नात थंय बैलगाडयेचो उपेग ह्या कामाखातीर जाता.

बैलगाडयेचो सोद केन्ना लागलो हें कळपाक कठीण. पूण इ.स.प. ३५०० च्या सुमाराक पुर्विल्ल्या सुमेर देशांत चार चक्रां आशिल्ले बैलगाडयेचो उपेग जातालो. अशेच तरेचे बैलगाडयेचो उपेग सुमार ५०० वर्सांउपरांत ॲसिरियांत जालो. इ.स.प. २५००च्या सुमाराक तिचो उपेग सिंधू देगणांत आनी युफ्रेटीस न्हंयेच्या वाठारांत सुरू जालो. मोहें-जो-दडोचे सिंधू संस्कृतीच्या उत्खननांत बैलगाडयेच्या खेळण्यांच्या स्वरुपांत

कांय नमुने मेळळयात. पुर्विल्ल्या बौध्द आनी जैन वाङमयांतूय बैलगाडयेविशीं उल्लेख मेळटात. बैलगाडयेचो प्रसार इ.स.प. काळांतूच संवसारभर जाल्लो. इ.स.प. २०००च्या काळांत दक्षिण रशिया आनी क्रीट, इ.स.प. १,६०० इजिप्त आनी पॅलेस्टायन, इ.स.प. १५०० सुमाराक ग्रीस, इ.स.प. १,०००च्या सुमाराक इटली आनी ताचे उपरांत मध्य आनी उत्तर युरोप तशेंच इ.स.प. ५००च्या सुमाराक ब्रिटनांत सुरू जालो. ह्याच काळांत स्पेन, इटली, सार्दिनिया, तुर्कस्तान ह्या देशांनीय बैलगाडयेचो उपेग जातालो. युरोपांत कांय प्रमाणांत दोन-चाकी बैलगाडयेचो उपेग जातालो. ह्या गाडयांक शेंदऱ्यांचीं पांखीं आनी गाडी ओडपाक ४ ते ६ बैल आसताले. उपरांत ह्या गाडयांक बैलां वांट्याचे घोडे बांदपाक लागले. आफ्रिकेंत तशेंच अमेरिकेंत स्थायीक जावपाक गेल्ल्या युरोपी लोकांनी असल्याच बैलगाडयांचो उपेग केल्लो.



एक बैल आशिल्ले गाडयेक छकडा वा एक्का म्हण्टात. ही गाडी इ.स. पयल्या आनी दुसऱ्या शेंकड्यांत इटली आनी चीनांत सगळयांत पयलीं वापरिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. आयजूय उदेंतेकडल्या देशांनी हे बैलगाडयेचो उपेग करतात. बैलगाडयेचे रचणुकेंत प्रदेश तशेंच स्थानिक परिस्थिती प्रमाण बदल आसता.

**विकास आनी सुदारणा :** भारत, अमेरिका ह्या देशांनी बैलगाडी बांदपाचें काम थळावे मेस्त आनी धवड करताले. भारतांत आयजूय हीच परिस्थिती आसा. गाडयेचे बांदणेंत वा रचणुकेंत ह्या थळाव्या कारागिरांनी अणभवान आनी परंपरेन कांय बदल घडोवन हाडल्यात. बैलांचे सुवातेर घोड्यांचो उपेग केल्ल्यान एकुणिसाव्या शेंकड्यांत अंतर्ज्वलनइंजिन व्हड प्रमाणांत वापरांत आयलें. ताका लागून युरोपांत बैलगाडयेच्या विकासाविशीं चड विचार जालोना.

१९३० च्या सुमाराक भारतांत डनलॉप कंपनीन बैलगाडयेविशीं संशोधन करून टायर आनी ट्यूब आशिल्ल्या चक्रांची गाडी तयार केली. पूण तेन्नाच्या गांवगिऱ्या वाठारांनी आशिल्ली रस्त्याची स्थिती आनी गाडयांचें मोल हांकां लागून ह्यो गाडयो चड प्रचारांत आयल्योनात.

स्वातंत्र्यापयलींच्या काळांत इंपिरियल काउन्सिल ऑफ ॲग्रिकल्चरल रिसर्च ही रास्था, जी फुडें इंडियन काउन्सिल ऑफ ॲग्रिकल्चरल रिसर्च जाली, तिणें बैलगाडयेच्या संशोधनाक उर्बा दिली. संवसारीक खनीज तेलाचे अडचणीक लागून १९७३ उपरांत गांवगिऱ्या वाठारांनी बैलगाडयेक परतून म्हत्व आयलें. शेतकी विद्यापीठ, अभियांत्रकी संस्था आनी तसल्योच हेर कांय संस्था हे गाडयेंत सुदारणा करपाचे यत्न करतात.

बैलगाडयेंत सुदारणा करपाखातीर केंद्र सरकारान एक समिती नेमल्या: हे समितींत इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅनेजमेंट (बेंगळूर), सॅंट्रल रोड रिसर्च इन्स्टिट्यूट आनी केंद्रीय शेतकी मंत्रालय हांचो आस्पाव आसा. इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅनेजमेंट हे संस्थेन गांवगिऱ्या वाठारांनी उपेगाक येवपी सुदारीत बैलगाडयांचे आराखडे तयार केल्यात. तातूंतले तीन आराखडे तयार जावन तांच्यो चांचण्योय जाल्यात:

**१) यात्रा बैलगाडी :** सुमार ५०० किग्रॅ. वजनाची ही गाडी सुमार २०किमी. अंतराच्या प्रवासी आनी १.५टन म्हालाचे येरादारीखातीर उपेग पडटा. **२) मलनाड बैलगाडी :** हे गाडयेचें वजन १९५ किग्रॅ. आसून ०.५ टन म्हालाची येरादारी ही गाडी करूंक शकता. **३) किसान बैलगाडी :** हे गाडयेचें वजन ४२५ किग्रॅ. आसून प्रवासी तशेंच देड ते दोन टन म्हालाची हाड-व्हर करपाखातीर ती उपेगी थरता. हे भायर आनीक कांय सुदारीत गाडयांचे नमुने हे संस्थेन तयार केल्यात.

डनलॉप कंपनीन हे गाडयेची म्हालवाहन क्षमताय वाडोवपाचे नदरेन खूब सुदारणा केल्यो आनी ही म्हालवहन क्षमताय ०.७५ टनांपसून २.५ टनांमेरेन वाडली. ह्याच स्वरुपाच्यो बऱ्योच गाडयो सद्या वापरांत आसात. दिल्ली, तमीळनाडू आनी पंजाब - हरियाणा ह्या राज्यांच्या कांय वाठारांनी १९७६ च्या सुमाराक चार चाकी गाडी उपेगांत येवन तिची म्हालवाहन क्षमताय सुमार ३ ते ४ टन आसा. मेरठ जिल्ह्यांत सद्या डनलॉप कंपनीन तयार केल्ल्यो सुदारीत आनी एका रेड्यान ओडपाच्यो गाडयो वापरांत आसात. ही गाडी सुमार २ ते ३ टन म्हालाची हाड-व्हर करता.

फायरस्टोन कंपनीन १९७६च्या सुमाराक बैलगाडयेच्या चक्राचेर भरीव रबरी टायर तयार केला. तो ३-४ वर्सां वापरपाक मेळटा. ट्यूब इनवॅस्टमॅंट ऑफ इंडियाचो ट्यूब प्रॉडक्टस हो फांटो तशेंच इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्स (बेंगळूर), द नॅशनल एरोनॉटिकल लॅबोरेटरी, इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्स (मद्रास) ह्यो संस्था सुदारीत गाडयो तयार करपाचे प्रयोग करतात.

बेंगळूरच्या इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅनेजमेंटावतीन बैलगाडयेविशीं एक देशव्यापी सर्वेक्षण चालू आसा. ह्या सर्वेक्षणांतल्यान बैलगाडयेचे रचणुकेंत कसल्यो सुदारणा करूं येतात हें कळटलें.

- कों. वि. सं. मं.

**बैलांझुंजी :** (पळेयात धिरयो).

**बोंडानाच :** एक लोकांनाच. सातपुडा वाठारांत रावपी आदिवासी लोक हो नाच करतात. नाच करतना ते राम, सीता, रावण, हनुमान हांचें लाकडी मुखें घालतात. शेताच्या दिसांनी बोंडा नाच करपी लोक धोल आनी शींग हीं वाद्या आनी मुखें घेवन भोंवडेर वतात. ज्या गांवांत नाच थरता, ते सुवातेर वचून ते धोल वाजयतात. ताका लागून त्या वाठारांतल्या सगळ्या लोकांक ह्या नाचाची खबर कळटा.

नाचाच्या वेळार मुखें घालून, त्या मुख्याक सोबसारके ते भेस करतात. तांच्यांतलो एकटो नाच करता, दुसरो वाद्य वाजयता आनी तिसरो नाचाचो इतिहास सांगता. नाच सोंपतकच थंय जमिल्ले लोक, आपल्याक तांकता तशें धान्य, पयशे दितात. हे लोक फकत ह्या नाचाचेर आपलें पोट भरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बोंडो :** भारतांतली एक दोंगरी आदिवासी जमात. ऑस्ट्रो-एशियाटिक वंशांतली ही जमात. ओरिसांतल्या कोरापूट जिल्ह्यांत, दोंगराळ वाठारांत ह्या लोकांची चड वसती आसा.

दोंगराचेर सुवात निवळ करून हे लोक लाकडाचीं घरां बांदतात. कड्डण दवरपाखातीर तशेंच दुकरांखातीर वेगवेगळ्यो सुवाती आसतात.

हे लोक काळ्या वर्णाचे आसून तांचें नाक रूंद आनी चेपटें आसता. दादले कमराक लंगोटी व कसलोय कपडो बांदतात. माथ्यार थोडे केंस वाडोवन हातांत रुप्याचें कडें आनी गळ्यांत रुप्याच्यो वस्ती घालतात. पूण बायलो बोडक्यो जावन माथ्याक ताडाच्यो पङ्क्यो बादंतात. हातांत रुप्याचीं कडीं आनी कानांत रुप्याचीं कानांतलीं घालतात. तशेंच गळ्यांत रुप्याच्या आनी तरातरांच्या मणयांच्यो माळो घालतात. हड्ड्याक आनी कमराक ल्हानसो कपडो गुठलायतात.

शीत हें तांचें मुखेल अन्न. ते नुस्तेंमारी आनी शिकारूय करतात. ते हुंदीर, नुस्तें आनी शिकारेंत मेळिल्लीं सावजां खातात.

बोंडो लोक 'महाप्रभू' ह्या देवाक भजतात. तेचप्रमाण सूर्य, उदक, ग्रामदेव, वास्तुदेवता, जमनीची देवता हांची पुजा करतात. हिंदू लोकांकडेन संबंद आयिल्ल्यान हिंदू देव-देवतांकूय ते भजतात.

ह्या लोकांच्यो सण, परबो खूब आसतात. पूण सगळ्यांचे विधी सारकेच आसतात. तांच्या दर एका सणांत नाच आसता. तो रातचो जेवणाउपरांत सुरू जाता आनी फांतोडेमेरेन चलता. दर एका सणांत मुखेल देवतेवांगडा कांय क्षुद्र दैवतां, भूतपिशाच्च, पितर हांची पुजा करून, शीत आनी सोऱ्याचो निवेद्य दाखयतात. तांचो सगळ्यांत व्हड उत्सव चैत्र म्हयन्यांत येता आनी पंदरा दीस चलता. सद्दां शिकार करप, पयलेंच आंब्याचें फळ खावप आनी दर एके देवतेची तशेंच पितरांची पुजा करप हें तांच्या सणाचें खाशेलपण. तिसऱ्या दिसा भगताची बायल सोरो तयार करता. सातव्या दिसा तो सगळ्यांक वांट्टात. सव्या आनी सातव्या दिसा सगळें रान पेटोवन निवळ करतात आनी धाव्या दिसा 'बुरगांग' म्हळयार धर्तरेक बळी ओंपतात. त्या दिसासावन आंबो खातात. ही परब चालू आसमेरेन कोण गांवाभायर वचना आनी भायलो मनीस गांवांत येना. परबेच्या निमाण्या दिसा गांवांतल्या सगळ्या लोकांचे धोणू-बाण एका टेंभुर्णिच्या झाडासकयल जमयतात आनी भगत तांची पुजा करता.

बोंडो लोकांमदीं दादल्यांचीं 'इंगेरसिनी' आनी बायलांचें 'सेलानी डिंगो' अशीं स्वतंत्र युवाघरां आसात. सांजवेळच्यो सगळ्यो चलयो थंय जमतात. आपल्या आवडीच्या जोडीदाराची निवड करप हो सेलानी डिंगोंत येवपाचो मुखेल उद्देश. सादारणपणान एका गांवांतलो चलो दुसऱ्या गांवांतल्या युवाघरांत वचप चड पसंत करता. तो वतना आपले वांगडा मुदयो, माळो आनी हेर भेटवस्तू व्हरता आनी थंयच्यो चलयो भाजिल्ले हुंदीर आनी ताडी दिवन तांकां येवकार दितात. नाचून, गावन रात घालयतात. दोन-तीन म्हयने सतत परिचय जातकच चड परिचय करून घेवपापासत चलो आनी चली रानांत पळून वतात. उपरांत तांचें लग्न थरता.

चलयेक उबारून व्हरून लग्न जावपाचीय चाल बोंडो लोकांमदीं आसा. त्या चल्यावांगडा ती चली शीत जेवली जाल्यार तिका हें लग्न पसंत आसा अशें मानतात. तेच भाशेन देरा वांगडा लग्न, अदलाबदल लग्न, घटस्फोट पद्दतूय बोंडो लोकांमदीं आसा.

भुरगें जायना जाल्यार वा पीक आयलेंना जाल्यार दुश्चिन्न मानतात. तेखातीर 'डोगो' देवाक रेडो बळी दितात.

हे लोक मडीं लासतात. तीन दीस सुतक पाळटात. तिसऱ्या दिसा गांवचो भगत वा मेल्ल्या मनशाच्या घरांतलो कोणूय मनीस फांतोडेर एका दोण्यांत तांती आनी उदक हांची भरसण करून तणाचे काडयेन दर एकल्याच्या घरार शिंपडायता. तशें केल्ल्यान सगळीं शुध्द जालीं अशें मानतात. मेल्ल्या मनशाच्यो अस्थी जर ठिसूळ आसत जाल्यार ताका सैमीक मरण आयलां आनी काळ्यो पडल्यो जाल्यार जादू केल्ल्यान मरण आयलां अशें मानतात. धाव्या दिसा मेल्ल्या मनशाचे सोयरे थोडे तांदूळ आनी ताडी घेवन मेल्ल्या मनशागेर जमतात. तांचेपयलीं भगत, भुतांखेतांच्या नांवान रांदनींत ताडी दवरता, त्याच दिसा एका बैलाचें मांस शिजयतात. सात दोण्यांनी शीत घालून ते मसंडेंत दवरतात. उपरांत सगळे जेवतात. लोकांक भुतांखेतांची बादा जावंची न्हय म्हणून भगत कांय भुरग्यांक आनी खाशेल्या झाडाच्यो खांदयो घेवन झऱ्याचेर एक पूल बांदता. भुतांखेतांक अन्न दवरता आनी मेल्ल्या मनशाचे

चलयेवयल्यान शीत उंवाळून उडयता. ती चली त्या पुलापोंदच्यान वतकच, आंब्याची साल कुंटून भरशिल्लें शीत तिच्या माथ्यार दवरतकच ती घरा येता. उपरांत सगळया गांवकारांकूय अशें करतकच बायलो सोडून हेर सगळे थंयच जेवन घरा परततात.

- कों. वि. सं. मं.

**बोंबील :** नुस्त्यांतलो एक प्रकार. ताचो आस्पाव सायनोडिडी कुळांत जाता. ताचें शास्त्रीय नांव हार्पोडॉन नेहेरियस. हें नुस्तें सादारणपणान सवथळ उदकांत रावता. भारतापसून चीनामेरेन हें नुस्तें न्हंयेंत वा दर्यादिगे लागसार मेळटा. मुंबय दर्यादिगे लागसार हें नुस्तें भरपूर मेळटा. हांगाच्यान अस्तंत दर्यादिगे कडल्यान फुडें फुडें दक्षिणेकडेन ताचें प्रमाण उणें जाता. बंगालच्या उपसागराच्या उत्तर भागांतूय हें नुस्तें व्हड प्रमाणांत मेळटा.

ह्या नुस्त्याचें शरीर दंडगोलाकार आसून तकली शेड्याचे तकलेभाशेन आसता. ताच्या तोंडांत बारीक तोंकाचे जायते दांत आसतात. ताची लांबाय चडांतचड ४ सेंमी. मेरेन आसूंक शकता. तकली, फाट आनी दोनूय कुशींनी ताचें शरीर अर्दपारदर्शी आसता आनी ताचेर काळे तशेंच तपकिरी रंगाचे थिपके आसतात. ताचें पोट रुपेरी धवें आसता. ताचीं पाखां पारदर्शी, वा केन्नाकेन्नाय तांचेर काळे थिपके आसतात. ताचीं बुबळां भांगरा रंगाचीं आसतात. ताचे बोचकुटेचो सकयलो जबडो वयल्या जबड्यापरस लांब आसता. शेंपो आनी तकली हांचेमदीं एक पाखो आसता. ताचे पोंदा सकयले वटेन हेर पाखे आसतात.

हें नुस्तें दर्यांत व्हड प्रमाणांत चोंबे करून रावता. शिंया तेंपार भक्ष्य सोदपाखातीर हें नुस्तें देगेर येता आनी जाळयांत सांपडटा. वसंत ऋतूंत हें नुस्तें प्रजोत्पादनाखातीर दर्यांत वता.

हें नुस्तें ताजें वा सुकोवन खातात. मुंबय आनी भारताचे अस्तंत दर्यादिगेवयल्या वाठारांनी ताचो अन्नांत व्हड प्रमाणांत उपेग करतात. ताजे बोंबील तळून खातात जाल्यार सुकयल्ले बोंबील भाजून वा हुमण करून खातात. बोंबीलाच्या मासांत ८९.३०% उदक, ९.०५% प्रथिनां, आनी दर १००ग्रा. त ३३४.२० मिग्रॅ. कॅल्शियम, १८.६० मिग्रॅ. फॉस्फरस आनी १.२० मिग्रॅ. लोखण आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**बोकड (बोकडी, बोकडो) :** संघ - कणाधारी; गण - सस्तन; प्रजाती - काप्रा; जाती - हिर्कस एगाग्रस; उपजाती - काप्रो विन्हे.

मनशान पोशिल्ली सगळयांत आदली मेनजात. आशियेंतल्या काप्रा एगाग्रस हे जातिच्या रानबोकडासावन पाळीव बोकड अस्तित्वांत आयलां अशें मानप जाता. बोकड आनी मेंढरां हांचो लागींचो संबंद आसून, तांची उपजाती (काप्रो विन्हे) एकूच. पूण बोकड मेंढरांपरसूय चड कश्टाळू आनी शिटूक.

पुर्विल्ल्या काळासावन मनशाचे जिणेंत बोकडाक म्हत्वाची सुवात फाव जाल्या. आशिया, युरोप आनी उत्तर अमेरिका ह्या खंडांनी बोकड हें मुखेलपणान मांसाखातीर आनी दुदाखातीर म्हूण पोसतात. पूण हालीं तेंपार आंगोरा आनी काश्मिरी ह्यो संक्रमीत जाती लोकर काडपाखातीर पोसतात.

बोकडेचीं बारीक, पोकळ शिंगां चडकरून चेपटी आनी फाटलेवटेन बागवल्लीं आसतात. तांचेवयलीं पेरां पिरायेप्रमाण वाडत वतात.




तांची ल्हवं सरळ आसून ती एकाच वा दोन, तीनूय कोरांची आसपाक शकता. शेंपडी मोटवी आसता. जून जाल्ल्या बोकडाक चड करून खाड येता. वेगवेगळया प्रदेशांत सांपडपी वा वेगवेगळया जातीच्या बोकडाचें आकारमान वेगवेगळें आसता. देखीक पाकिस्तानी ड्राफ्ट बोकड्याचें वजन सुमार ९ किलो आनी उंचाय ४५ सेंमी. इतलीच आसता. जाल्यार भारतीय जमनापरी बोकडाचें वजन ६५ किलो वयर आसून उंचाय १.२ मीटर मेरेन आसपाक शकता. भारतांत आनी आफ्रिकेंत सांपडपी चडशा बोकड्यांचे कान व्हड आसून ते सकयल लोंबकळटात. पूण सानेन, टोगेनबर्ग आनी हेर युरोपी बोकडाचे कान मोटवे आनी उबे. तांच्या वयल्या जबड्यांत कृंतक दांतांचे सुवातेर घट्ट पॅड आसता. जाल्यार सकयल्ल्या जबड्यांत आठ कृंतक दांत आसतात. वयल्या आनी सकयल्या जबड्यांत मेळून बारा दाडो आसतात. बोकड सुरवेक आपलें अन्न खातना पॅड आनी कृंतक दातांच्या आदारान वयल्यावयर चाबडावन खाता. आपलें अन्न पचोवपाखातीर बोकडाच्या पोटाची घडण वेगळीच आसता. तांचें पोट चार भागांनी विभागलां. सुरवेक वयल्यावयर चाबडायल्लें अन्न पोटाच्या पयल्या भागांत वता. बोकड चरता तो मेरेन तें पयल्याच भागांत सांठोवन उरता. उपरांत तें पोटाच्या दुसऱ्या भागांत वचून मोव जाता आनी ताचे बारीक बारीक गुळे जातात. थंयच्यान बोकड तें परत तोंडांत हाडून ताचो रवंथ करता. उपरांत तें पोटाच्या तिसऱ्या, चवथ्या आनी आंतकड्यांनी वचून ताचें पचन जाता.

बोकडी फळपाचो तेंप प्रदेशाप्रमाण बदलता. विषुववृत्तालागशिल्ल्या प्रदेशांतल्यो बोकड्यो खंयच्याय म्हयन्यांत फळपाक शकतात. पूण चड थंड प्रदेशांनी बोकड्यो गिमाच्या वा शिंयाळयाच्या शेवटाकूच फळटात.

बोकडी फळळ्या उपरांत सुमार पांच म्हयन्यांनी वियेता. दर खेपे ती दोन वा तीन पिलांक जल्म दिता. चडशो बोकड्यो ८ ते १० वर्सांमेरेन जगपाक शकतात.

संवसारांतल्या चडशा वाठारांनी कुडीच्या गुणधर्माप्रमाण बोकडाच्यो सुमार ३०० अभिजाती तयार जाल्यात. हातूंतल्यो खूबशो वेपारी नदरेन खूब म्हत्वाच्यो. संकरीत केल्ल्या बोकडांभितर आंगोरा ह्यो चड म्हत्वाच्यो. त्यो मुखेलपणान उच्च दर्जाची लोकर मेळोवपाखातीर पोसतात. जाल्यार सानेन आनी टॉगेनबर्ग बोकड्यो दुदाखातीर पोसतात. बोकडेचें दूद गायेच्या दुदापरस मातशें मिरमिरीत. बोकडेच्या दुदांत गायेच्या दुदापरस अ जिवनसत्व चड, पूण सी आनी बी हीं जिवनसत्वां मातशीं उणीं. बोकडेचें दूद गायेच्या दुदापरस पचपाक हलकें आशिल्ल्यान तें ल्हान भुरग्यांक आनी दुयेंत मनशांक पिवपाक दितात.

भारताच्या वेगवेगळ्या प्रदेशांनी वेगवेगळ्यो अभिजाती सांपडटात. हिमालयीन प्रदेशांनी मुखेलपणान चाम्भा, गड्डी आनी काश्मिरी ह्यो संकरीत केल्ल्यो जाती सांपडटात. त्यो चडकरून लोकर काडपा खातीर पोसतात. जमनापरी ही जात मध्य प्रदेशांतल्या यमुना आनी चंबल हांच्या मदल्या भागांत सांपडटा. जमनापरी ही जात मांस आनी दूद मेळोवपाखातीर पोसतात. बिटल ही जात मुखेलपणान पंजाबांत आनी कांय प्रमाणांत उत्तर प्रदेशांत मेळटा. मारवाडी, मेहसना आनी जलवादी ह्यो जाती राजस्थान, गुजरात आनी मध्य प्रदेशांत सांपडटात. जाल्यार बार्बरी जात दिल्ली, अलिगड, आग्रा आनी पानीपतांत सांपडटा. कथियावरी, बेरारी, सुर्ती, मलबारी, डेक्कानी, नान्नी ह्योय अभिजाती भारतांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांनी सांपडटात. प्रदेशांप्रमाण संकरीत केल्ल्या बोकडाक त्या त्या वाठाराचीं नांवां दिल्लीं आसतात. भायल्या देशांतल्यो कांय संकरीत बोकड्योय भारतांत पोसतात. तातूंतल्यो आल्पायन, नुबिआन, सानेन टॉगेनबर्ग आनी आंगोरा ह्यो मुखेल आसात.

गांवगिऱ्या वाठारांतले बोकड मुखेलपणान चरोव खावनूच आपलें पोट भरतात. बोकड चडसो सगळो पाचवो भाजीपालो खाता. पूण तांकां काट्यांचीं झोपां खावपाक चड आवडटात. कांय जातींचीं फळां आनी कड्डूय तीं खातात. सादारणपणान एके बोकडेचो दीसपट्टो खुराक असो आसचो. १कि. करड, १कि. पाचवो पालो, १कि. मोटे हरयाळीची ताडां वा मुळां आनी १कि. मको, जोंधळो, गंव, भिकणां, पेंड आनी फोस्फेट-कॅलसियम भरडून तयार केल्ली भरसण. बरी देखरेख आनी बरी खावड दिल्यार बोकडी चड तेंप आनी चड दूद दिता.

बोकडाक हेर मोनजातींभशेन जीव-जिवाणूवरवीं संसर्गजन्य रोग जातात. बोकडेक मुखेलपणान जावपी संसर्गजन्य रोग अशे, सांधेदुखी *(arthritis)*, न्युमोनिया, उयो वा हुल्को हांकां लागून जाल्ले घावे, फोड (Goat Pox), देंटपुळी (Anthrax), ब्रुसेलोजीस, विब्रिओसीस, लॅप्टोस्पिरोस, जोन्स डिसीझ पाथोजेनीक, ट्रिकोमोनिआसीस, डायरिया, तशेंच कातीचे, दोळ्यांचे, पचनक्रियेचे, मज्जातंतूचे रोगूय बोकडेक जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**बोकारो :** बिहार राज्याच्या हजारीबाग जिल्ह्यांतलें आर्विल्ल्या भारताचें 'तिख्यानगर' म्हणून वळखुपांत येवपी शार. हें शार हजारीबाग शारासावन ७२ किमी. आग्नेयेक धनबादचे अस्तंतेक सुमार ७० किमी. अंतराचेर बोकारो न्हंयेचेर वसलां. हांगा बोकारो रेल्वेमार्ग प्रस्थानक आसून तें रांची, हजारीबाग आनी धनबाद ह्या शारांक रस्त्यांनी जोडलां.

हांगा तिख्याचो उद्देग सुरू जातकच हें ल्हानशें शार एक उद्देगीक नगर जालें. हांगा आशिल्लो बोकारो कारखानो म्हळ्यार भारताच्या भौशिक मळावयलो पयलो स्वदेशी तिख्या कारखानो. १९६५ त हांगा बोकारो प्रकल्प उबारपाक सुरवात जाली. भिलाई, राऊरकेला आनी दुर्गापूर हांगाचे तिख्या कारखाने पुराय तरेन उबारिल्ले प्रकल्प. तांचेखातीर चडशीं साधनां सामुग्री आयात करची पडली. पूण बोकारो प्रकल्पाक फकत सुरवेक ३९% साधनां सामुग्री आयात करची पडली. ल्हव ल्हव तें प्रमाण १६ टक्क्यां मेरेन उणें जालें. हो प्रकल्प उबारपाखातीर सगळ्या प्रकारांचें साहित्य, हॅवी इंजिनियरिंग कॉर्पोरेशन, मायनिंग अँड अलायड मशिनरी कॉर्पोरेशन ह्या निगमांनी दिलें. ह्या प्रकल्पाची उबारणी गार्डनरीज शिपबिल्डर्स अँड इंजिनियर्स, जेसप अँड कंपनी आनी इन्स्ट्रूमेंटेशन लिमिटेड (कोटा राजस्थान) ह्या कंपन्यांनी केली. सयंत्र उबारणी आनी बोकारो नगर उबारणी हीं दोनूय कामां हिंदुस्थान स्टील वर्क्स कन्स्ट्रक्शन कॉर्पोरेशन लि. हे कंपनीन केलीं. मेकॉन हे कंपनीन बोकारो प्रकल्प विस्ताराचो अभिकल्प तयार केलो.

बोकारो कारखान्यांतल्यान तिख्यापत्रे, सरयो, पटे, खिळे, विकपासारकें तिखें हांचें उत्पादन करतात. पांचवे पंचवर्सुकी येवजणेचे अखेरमेरेन बोकारो कारखान्याची तिख्या खिळ्यांची उत्पादनाची तांक ४०लाख टनांमेरेन व्हरपाचो कार्यक्रम हातांत घेतिल्लो. ह्या प्रकल्पांतले तिख्याच्या पाटांचें उत्पादन करपी यंत्र विभाग आनी लांब तिख्याच्यो पट्ट्यो उत्पादन करपी विभाग हे देशांतले सगळ्यांत आर्विल्ल्या स्वरुपाचे आनी सगळ्यांत मोटे विभाग अशें समजतात. अशे तरेचो कारखानो फकत रशियेंत आसा. ह्या कारखान्यांतल्यान पातळ पत्रे, सरयो, हांचें उत्पादन पयल्या पांवड्यांत सुमार ९० हजार टन जाल्यार, दुसऱ्या पांवड्यांत १७ लाख टन करपाची येवजण आशिल्ली. १९७५ उपरांत ह्या प्रकल्पांतली तिसरी कोक भट्टी, दुसरो सिंटर बँड, दुसरी झोतभट्टी, तिसरो एल. परिवर्तक आदींचें बांदकाम पुराय जालें. हांगा उत्पादीत जावपी लांब तिख्या पट्ट्यो, रसायनीक संयंत्रां, खनीज तेल संशोधन, नळनिर्मिती उद्देग हांचेखातीर खूब उपेगी पडटा. बोकारो प्रकल्पांतल्यान

कच्च्या लोखणाची निर्यात रशिया आनी जपान ह्या देशांत व्हड प्रमाणांत जाता. भारतांतल्या ओतकामाच्या भट्ट्यांक लागपी वट्ट लोखणांतलें ५०% लोखण बोकारो प्रकल्पाकडल्यान मेळटा. बोकारो तिख्या कारखान्याची, तिख्या खिळे आनी विकपासारकें तिखें हांची उत्पादन तांक अनुक्रमान २५ आनी २० लाख टन इतली आसता.

बोकारो प्रकल्पाचेर चवथे येवजणेच्या निमाणेमेरेन सुमार ९०० कोटी रुपया खर्च जाले. पांचवे येवजणेच्या काळांत ह्या प्रकल्पाचेर आनी ५२० कोटी रुपयांची तरतूद केल्ली. १९७३ त भारत-रशिया हांचेमदीं जाल्ल्या १५ वर्सां अर्थीक आनी तंत्रीक सहकार्य कराराप्रमाण बोकारो प्रकल्पाची उत्पादन तांक १०० लाख टनांमेरेन वाडोवपाचे नदरेन प्रकल्पाच्या विस्ताराची येवजण आशिल्ली. हो प्रकल्प पुराय करपाखातीर रशिया भारताक तंत्रीक आनी पयशांनी आदार दिता. पयल्या पांवड्याच्या कामांत परदेशी चलनांत जावपी खर्च भागोवपाखातीर रशियेन २० कोटी रुबलांचें कर्ज भारताक दिल्लें आसून दुसऱ्या पांवड्याखातीर आनीक ८.५ कोटी रुबलांच्या रिणाक मान्यताय दिल्या.

हांगा सुमार २०,००० कामगारांक घराची वेवस्था आसा. ह्या उद्देगीक नगरांतले रस्ते येवजण करून बांदिल्ले आसात. ह्या नगरांत ३० विद्यालयां आनी एक महाविद्यालय आसा. तेभायर एक हॉस्पिटल आनी विभागावार भलायकी केंद्रां आसात. ह्या प्रकल्पांत ६३ कामगार संघटना काम करतात. हांगाच्या कामगारांक अपघाती वा सैमीक मरण आयल्यार कामगारांकडल्यान जमयल्ली वर्गणी आनी कारखान्याकडल्यान हक्कान मेळपी हेर फायदे तांच्या कुटुंबांक मेळटात.

बोकारो तिख्या प्रकल्पाक लागून बिहार राज्याच्या उद्देगीकरणाक चालना मेळ्ळी. ह्या प्रकल्पाक पूरक आसपी उद्देग बिहार शासनान उबारिल्ले उद्देगीक वसणुकेंत सुरू केल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बोगदो :** सैमीक रितीन तयार जाल्ल्या वा मनशांनी बांदिल्ल्या जमनीसकयल्ल्यान वचपी मार्गाक बोगदो म्हण्टात. खणकाम, वाहनांची येरादारी, रेल्वेवाहतूक, शेताखातीर आनी हेर कामांक लागपी उदकापुरवण, गटारां व्हांवन व्हरपाक बोगद्यांचो उपेग जाता.

इतिहासपूर्व काळांतल्या मनशान ताची घोल व्हड करपाखातीर पयलो बोगदो खणपाच्या स्वरुपाचें काम केलें आसुंये. चड करून पुर्विल्ले संस्कृतायेंत बोगदो खणपाच्यो पद्धती कांय प्रमाणांत विकसित जाल्ल्यो अशें दिसता. बॅबिलोनियांत शिंपणावळीखातीर बोगद्यांचो उपेग करताले. इ.स.प. सु. २१८० ते २१६० ह्या काळांत थंयचो राजवाडो देवळाक जोडपी आनी पांयांनी चलप्यांक यो- वच करपाखातीर ९०० मी. लांबायेचो आनी विटांचें अस्तर केल्लो मार्ग युफ्रेटीस न्हंयेच्या सकयल्ल्यान बांदिल्लो. भारतांत पुर्विल्ल्या काळापसून जमनींत बांदकामां जाल्लीं आसून तातूंत व्हडल्यो घोली आनी व्हांवच्यो, उदकापुरवण करपाखातीर बांदिल्ले नळ, पोरन्यो भुयारी चोरवाटो वा गुपित मार्ग हांचो आस्पाव जाता.

रोमन आनी ग्रीक लोकांनी दलदलींतल्या उदकाचो निचरो करपाखातीर आनी उदकापुरवणेखातीर बोगद्यांचो व्हडा प्रमाणांत उपेग केलो. पुर्विल्ल्या काळांतलो सगळयांत व्हडलो बोगदो हो इ.स.प. ३६त नेपल्स आनी पोतत्स्वॉली हांच्या अदमासान रस्त्याचेर बांदिल्लो आसुंये. इ.स. ४१च्या अदमासाक रोमन आमदानींत फूचीनॉ सरोवरांतल्या उदकाचो निचरो करपाखातीर ६ किमी. लांबायेचो बोगदो खणपाखातीर ३०,००० गुलामांचो १० वर्सां वापर केल्लो.

मध्ययुगांत बोगदो खणपाचें काम मुखेलपणान खणकाम आनी लश्करी अभियांत्रिकी हांचेपुरतेंच मर्यादीत आशिल्लें. सतराव्या शेंकड्यांत युरोपांतल्यो येरादारीच्यो गरजो वाडपाक लागिल्ल्यान बोगदो खणपाच्या तंत्रांत प्रगती जावपाक लागली. जेन्ना पयलींचीं जायतीं खारजां मदल्या तेमकांतल्यान बोगदे खणून जोडटाले तेन्ना आधुनिक बोगदो रचणुकेक सुरवात जाली. १६६६-८१ त फ्रान्सांत बांदिल्लो १५० मी. लांब, ७मी. रूंद आनी ८मी. ऊंच असो कानाल दू मीदी (लांग्वेदो) हो बोगदो त्या काळांतल्या जायत्या व्हड खारजां-बोगद्यांतलो पयलो बोगदो आसा. तो भूमध्य दर्या आनी अटलांटिक म्हासागर हांकां जोडपी खारजाचो एक भाग आशिल्लो. अठराव्या शेंकड्यांत आनी एकोणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक युरोपांत आनी उत्तर अमेरिकेंत जायते बोगदे खणले. रेल्वेमार्गाचो जगभर प्रसार जावपाक सुरवात जातकच सु. १०० वर्सांमेरेन रेल्वेमार्गावयल्या बोगद्यांच्या बांदकामांत व्हड चालना मेळ्ळी. रेल्वेमार्गावयले बोगदे खणपाचीं आद्य तंत्रां इंग्लंडांत विकसीत जालीं. महाराष्ट्रांतले बोर आनी थळ ह्या घाटांतले बोगदे तशेंच कल्याण आनी मुंबय हांच्या अदमासाक आशिल्लो पारसीक बोगदो हे रेल्वेमार्गावयले नामनेचे बोगदे आसात. अमेरिकेच्या मॅसॅचूसेट्स संस्थानांतल्या २१वर्सां बांदकाम चालू आशिल्ल्या आनी १८७६ त पुराय करपांत आयिल्ल्या हूसाक बोगद्याच्या खणपाच्या कामांत वापरपांत आयिल्ल्या तंत्राक लागून बोगद्याच्या खणपाच्या कामांत बरीच प्रगती जाली. ह्याच अदमासाक आल्प्स पर्वतांत चड भव्य अशे रेल्वेमार्गावयले बोगदे खणपाक सुरवात जाली. हातूंतलो माँ सनी ह्या पयल्या बोगद्याक १४ वर्सां लागलीं (१८५७-७१). ह्या बोगद्याचो अभियंतो झेरमॅ सॉमल्ये हाणें जायतीं मुळावीं तंत्रां प्रचारांत हाडलीं. ताणें दर दिसा ४.५मी. खणपाचें काम करपी संपीडित हवेचेर चलपी एक छिद्रकय तयार केल्लें. उपरांत हूसाक बोगद्याखातीर सायमन इंगरसॉल आनी हेरांनी विकसित केल्ल्या चड टिकावू छिद्रकांनी ताची जागा घेतली. ताचे उपरांत आल्प्सांत सेंट गॉथर्ड (१४ किमी. लांब; १८७२-८२); सिंप्लॉन (१९किमी. लांब; १८९८-१९०६) आनी लचबेर्ख (१४ किमी. लांब; १९०६-११) हे नामनेचे

बोगदे खणपांत आयले.

इंग्लंडांतलो मार्क ब्रूनेल आनी ताचो पूत इझॅम्बार्ड हाणें टेम्स न्हंयेसकयल्ल्यान ३७० मी. लांब, ७ मी. रूंद आनी १२ मी. ऊंच अशा मापाच्या विटांच्या अस्तराचो बोगदो १८४१ त पुराय केलो. ह्या बोगद्याच्या बांदकामांत संरक्षक कवचाचो उपेग केल्लो. ह्या कवचांत उपरांत सुदारणा करून १८६९ त पीटर डब्ल्यू. बार्लो आनी ताचो सहकारी अभियंतो जे. एच. ग्रेटहेड हांणी टेम्स न्हंयेखाला आनीक एक बोगदो बांदलो. कवच आनी संपीडित हवा वापरपाच्या तंत्राचो पयलो व्हडा प्रमाणावयलो उपेग लंडनाच्या भुयारी रेल्वेमार्गाचो बोगदो खणपाखातीर केलो. ग्रेटहेडच्या तंत्राचो फुडें सु. ७५ वर्सां यशस्वी तरेन उपेग करपांत आयलो. ह्याच तंत्राचो वापर मागीर मोटार येरादारी खातीर लागपी चड व्हडल्या बोगद्याखातीर करपांत आयलो. क्लिफर्ड हॉलंड हाणें १९२७ त हडसन न्हंयेसकयल्ल्यान बांदिल्ल्या पयल्याच मोटार येरादारीच्या बोगद्याखातीर भितर तयार जावपी अपायकारक वायूंचो नाश करपी यंत्रणेचो उपेग केल्लो. ताचे उपरांतचे मोटार येरादारीचे जायते बोगदे कवच संपीडित हवा पद्दतीन खणपांत आयले. १९५० वर्साउपरांत मात उदकासकयल्ल्या बोगद्यांखातीर उदका सकयल बुडोवपाच्या नळाची पद्दत वापरपांत आयली.

१९६० उपरांत यांत्रिक परिभ्रमी खणपाचीं यंत्रां, बोगदो खणपाक जगभर वापरपांत येवपाक लागलीं. आतां पयलीं चो फकत ८ ते १५ मी. दर दिसाचो खणपाचो वेग शेंकड्यांनी मीटरांमेरेन वाडिल्लो आसा.

आयच्या काळांत येरादारी, वेपार आनी हेर साधनसामग्रींत जाल्ले वाडीकलागून आनी भुयारी मार्ग तयार करपाखातीर वापरपांत येवपी नव्या नव्या तंत्रांकलागून दिसानदीस चडांतचड प्रमाणांत बोगदे बांदून वाहनां आनी उदक हांची बरेतरेन येरादारी करपाचेर चड भर दितात. गरजेप्रमाण बोगद्यांचे अधःस्तर वट, ऊर्ध्वस्तर प्रवेशिका, स्तंभ बोगदो (कूपक) सारकिल्ले घटक आसतात. बोगद्याच्या बांदकामांत सादारणपणान ताचो प्रकार, आकार आनी क्षेत्रफळ, आंखणी, खणपाच्यो वेगवेगळयो पद्दती, आदाराखातीर लागपी अस्तर ह्या गजालींचो विचार जाता. बोगदो काम हें स्थापत्य अभियांत्रिकी विशयांतलें एक म्हत्वाचें बांदकाम आशिल्ल्यान बोगद्यासंबंदांतलें सर्वेक्षण (पळोवणी), अभिकल्प आनी आराखडो, खणपाचे प्रकार, अस्तर ह्या गजालींविशीं कांय मुळावीं मार्गदर्शक तत्त्वां भारतीय मानक संस्थेन थारायल्लीं आसात.

बोगद्यांच्या उपेगाप्रमाण मुखेल अशे चार प्रकार जातात, ते अशे-

**१) जलवाहक बोगदे :** हातूंत जलविद्युत् येवजणेंतले बोगदे, पर्यायी मार्गाचे बोगदे आनी उदकापुरवण करपाखातीर लागपी बोगदे येतात. हालींच्या काळांत जलविद्युत् येवजणांनी व्हड प्रमाणाचेर बोगद्याचो वापर जाता. हाचो मुखेल फायदो म्हणजे बोगद्याची लांबाय खारजां वा नळांपरस कमी जाता आनी देखून हे येवजणेक खर्चूय कमी जावं येता. न्हंयेच्या प्रवाहांतूय धरणाचें काम चालू आसतना उदकाचो प्रवाह फाव त्या पर्यायी मार्गाचो बोगदो काडून वळयतात. उदकापुरवण येवजणेंतूय उदकाच्या येरादारी खातीर बोगद्यांचो वापर करपाची प्रथा आसा.

**२) वायुवीजन बोगदे :** भूंयगत विद्युत् केंद्रां वा तत्सम येवजणेंत शुध्द आनी मेकळे हवेची पुरवण करपाखातीर ह्या बोगद्यांचो उपेग जाता.

**३) येरादारीचे बोगदे :** जायते खेपे रस्त्याची लांबाय वाडटा आनी आंखणीय कठीण आनी खर्चीक जाता. अशावेळार रस्ते आनी रेल्वे हांची आंखणी करतना मदीं येवपी दोंगर बोगद्यांच्या आदारान हुंपप गरजेचें आसता. पांयांनी वचपी लोकांकूय सुरक्षितपणान रस्तो हुंपपाखातीर केल्ले बोगदेय ह्या प्रकारांत येतात. येरादारीखातीर न्हंयेचेर पूल बांदपापरस जायते खेपे न्हंयेसकयल्ल्यान येरादारीखातीर बोगदो खणटात.

**४) हेर भूंयगत येवजणांत येवपी बोगदे :** झूज कार्याखातीर बांदपांत येवपी भूंयगत गुदांव, विमान घरां, तशेंच भूंयगत विद्युत् केंद्रां ह्या बोगद्यांचो हातूंत आस्पाव जाता. ह्या प्रकारांत एक अभिगमन बोगदो आसून ताच्या दुसऱ्या तोंकाक गरजेप्रमाण चड कमी लांबाय आनी रुंदायेचे विभाग बांदपाक येतात.

बोगद्याचो आकार आनी क्षेत्रफळ थरयतना चडकरून बोगद्याचो वापर आनी बोगद्याभोंवतणचीं खडपां आनी जमीन हांचो विचार करचो पडटा. बोगद्याचे जायते आकार प्रचलित आसून तातूंत वाटकुळो, कमानीचो, तांतया आकाराचो अशा जायत्या प्रकारांचो आस्पाव जाता.

बोगदो जमनींत खणून काडपाचो आशिल्ल्यान कामाच्या सोंपेपणाखातीर ताचो व्यास वा समतुल्य व्यास हो कमीतकमी २ मी. आसचो पडटा. आतांमेरेन बांदिल्ल्या सगळयांत व्हडल्या क्षेत्रफळाचो व्यास २५.५ मी. इतलो आसून तो अमेरिकेंत सॅन फ्रॅन्सिस्को हांगा आसा. बोगद्याची लांबाय मात १०० मी. पसून जायते किमी. लांब आसपाक शकता.

बोगद्याचें काम जमनींत आशिल्ल्यान आनी खणपाचें काम बेगीन सोंपोवपाखातीर दोन वा चड जाग्यांवयल्यान बोगद्याच्या कामाक सुरवात करतात. ताका लागून ताची मार्गरेशा अचूक आंखची पडटा. मार्गरेशेवयल्या वेगवेगळया बिंदूंची पातळी आनी एका मेकापसूनचें अंतर हांचें समतलन करप (एके पातळेंत हाडप) आनी थिओडोलायट ह्या उपकरणाच्या आदारान मांडणी करप आनी ते उपरांतचो मुखेल भाग म्हणजे जमनीसकयल्ल्या बोगद्याच्या खणपाच्या कामाखातीर मार्गरेशेचें स्थानांतर करप ह्या गजालिंचो बोगद्याचे आंखणेंत आस्पाव जाता. मार्गरेशेचें स्थानांतर करपाखातीर स्तंभ बोगद्याचो उपेग जाता.

बोगद्याची मार्गरेशा थारावपाखातीर आनी खणपाच्या कामांत येवपी अडचणींची कल्पना येवपाखातीर बोगद्याच्या मार्गरेशेकडच्या

स्तरांची भूवैज्ञानीक पळोवणी करप गरजेचें आसता. अशे पळोवणेच्या आदारान बोगदद्याचे मार्गरेशेचेर येवपी वेगवेगळया थरांची म्हायती मेळटा. अशे तरेचे पळोवणेखातीर भूसर्वेक्षण, जमनींतल्या थरांचो अभ्यास करपाखातीर जमनींत घेतिल्ल्या बुराकांची आंकडेवार नोंदणी, भूभौतिकीय तंत्र, हवाई छायाचित्रण सारकिल्ल्या पद्दतींचो उपेग करतात.

बोगद्याच्या कामाखातीर लागपी खणपाच्यो पद्दती आनी हेर कामांय चडकरून ज्या स्तरांतल्यान बोगदो व्हरपाचो आसता ताच्या मोव-घट्टपणाचेर आनी खणटा आसतना लागपी भूजलाच्या जांव भूपृश्ठजलाचे परिस्थितीचेर आदारीत आसतात. बोगद्याचें खणपाचें काम ही व्हडल्या खर्चाची आनी जतनायेची गजाल आशिल्ल्यान तिचे पद्दतीची निवड, तिच्यांत आस्पावपी वेगवेगळया क्रियांचें नियोजन आनी ह्या क्रियांखातीर लागपी यंत्रसामग्री ह्या सगळयांचो जतनायेन विचार करप गरजेचें आसता.

घट्ट स्तरांत बोगदो बांदपाखातीर खणपाच्यो वेगवेगळयो क्रिया आसात. तशेंच बोगदे खणपाच्यो जरी जायत्यो पद्दती आसल्यो तरी ह्या सगळयांमदीं सादारणपणान ह्यो पांच क्रिया आसतात - १) छिद्रण (बुराक मारप), २) उटस्फोटन (blasting),३) स्फोटवायूचें उत्स्रवण आनी वायुजीवन, ४) फोडिल्ले फातर व्हरप, ५) हेर कामां. हीं सगळीं कामां चक्रीय पद्दतीन करपाचीं आसून तीं एकाच जाग्यार कमीत कमी जागेंत आनी धोकादायक परिस्थितींत करपाचीं आशिल्ल्यान तांचें नियमन जर वेवस्थित जालें ना जाल्यार खणपाच्या कामाचो खर्च आनी वेळूय वाडटा आनी मनीस हानीचीय शक्यता आसता.

बोगद्याखातीर घट थरांतल्या खणपाच्या कामाच्यो चार पद्दती आसात -

१) पूर्णमुखी पद्दत, २) टप्प्याची पद्दत, ३) ऊर्ध्व अग्रेसर पद्दत, ४) मार्गदर्शी बोगदो पद्दत. गरजेप्रमाण हातूंतले फाव ते पद्दतीचो वापर करतात.

वेगवेगळया प्रकारच्या मातयेंतल्यान वा भुसभुशीत फातरांतल्यान बोगदो व्हरतना खणल्याउपरांत वा खणचेपयलीं आदार दिवन कोसळपी माती थांबोवपाचें आनी जशें जशें खणपाचें काम जायत आसता तशें तशें कायम स्वरुपाचें अस्तर बांदप गरजेचें आसता. आदार पद्दतीचो वापर हो बोगद्याचें खणप चालू आसतना थंय लागपी उदकाचेर आदारिल्लो आसता. ताकालागून सुक्या जाग्यांतलें बोगद्याचें काम आनी उदक आशिल्ल्या जाग्यांतलें बोगद्याचें काम अशो दोन पद्दती आसात.

**१) सुक्या वा मोव स्तरांतलें खणपाचें काम** : हे पद्दतींत खणपाचें काम करतना कोसळपी मातयेक आदार दिवपाचें काम पद्दतींनी करतात. पयले पद्दतींत खणप चालू आसतना काम जशें जशें फुडें वता तशे तशे लाकडाचे वा लोखणी तुळयांचे उबे वा आडवे आदार दिवन तातूंत लाकडी फळ्यो वा पोलादी पत्रे घालून तात्पुरते आदार तयार करतात. हे तरेच्या आदार पद्दतींचे मांडणेंत बोल्जियन, कॅनडियन, इटालियन वा अमेरिकन अशे उपप्रकार आसात. दुसरे पद्दतींत लोखणी कवचाचो उपेग करतात.

**२) उदक आशिल्ल्या वा मोव स्तरांतलें खणपाचें काम** : उदक आशिल्ल्या थरांतल्यान बोगदो खणपाखातीर संपीडित हवा पद्दतीन कवच वापरचें पडटा. हे पद्दतींत कामगार आनी खणिल्लो माल स्वतंत्रपणान भायर व्हरपाची वेवस्था करची पडटा.

बोगद्यांचो वापर जायत्या कामांखातीर जाता देखून तांच्या बांदकाम तंत्रांत जायत्यो सुदारणां जायत आसून नवीं नवीं तंत्रां वापरांत येत आसात. जगांतल्या कांय म्हत्वाच्या आनी वेगवेगळया कारणांखातीर वापरांत आशिल्ल्या बोगद्यांची म्हायती -

**जगांतले कांय म्हत्वाचे बोगदे**

| बोगद्याचें नांव | देश | लांबाय (किमी.) |
|---|---|---|
| **(रेल्वेखातीर)** | | |
| सीकान | जपान | ५४.१ |
| चॅनल | ब्रिटन-फ्रान्स | ५१.५ |
| सिंप्लॉन | स्वित्झर्लंड-इटली | १९.२ |
| कानमोन | जपान | १८.६ |
| ॲपेनायन्स | इटली | १८.५ |
| सेंट गॉथर्ड | स्वित्झर्लंड | १५.० |
| लचबेर्ख | स्वित्झर्लंड | १४.५ |
| होकूरिकू | जपान | १३.९ |
| माँ सनी | फ्रान्स-इटली | १३.७ |
| शिन-शिमीझन | जपान | १३.५ |
| कॅस्केड | अमेरिका | १२.६ |
| **(रस्त्याखातीर)** | | |
| सेंट गॉथर्ड | स्वित्झर्लंड | १७.० |
| फ्रेझ्यूस | फ्रान्स-इटली | १२.७ |
| माँ ब्लाँ | फ्रान्स-इटली | ११.७ |
| सान बेर्नार्दिनो | स्वित्झर्लंड | ६.६ |
| ग्रेट सेंट बर्नार्ड | स्वित्झर्लंड | ५.८ |
| ट्रान्सबे | अमेरिका | ५.८ |
| फेल्बर-टाउअर्न | ऑस्ट्रिया | ५.१ |
| कानमोन | जपान | ३.४ |

| | | |
|---|---|---|
| मर्सी | ब्रिटन (इंग्लंड) | ३.२ |
| हँबर्ग | जर्मनी | ३.२ |
| **उदका पुरवण** | | |
| डेलाविअर | अमेरिका (न्यूयॉर्क) | १३६.० |
| पेस्केरिआ | इटली | ७८.४ |
| कोस्टरेंज | अमेरिका (कॅलिफोर्निया) | ४०.० |
| बोलँड फॉरेस्ट | ब्रिटन (इंग्लंड) | १६.३२ |
| लर्मा | मेक्सिको | १४.४ |
| **मालवाहक** | | |
| वेस्ट सायड इंटरसेप्टर सी | अमेरिका (शिकागो) | ३२.९६ |
| मिनी ॲपोलिस इंटरसेप्टर | अमेरिका | २४.३२ |
| साउथ सायड इंटरसेप्टर | अमेरिका (शिकागो) | २१.४४ |
| डिट्रॉयट स्यूअर | अमेरिका | १६.०० |
| फिलाडेल्फिया इंटरसेप्टर | अमेरिका | १४.४ |
| **(जलविद्युत् प्रकल्प)** | | |
| बेन नेव्हिस | ब्रिटन (स्कॉटलंड) | २५.६ |
| व्हिन्स्ट्रा | नॉर्वे | २४.० |
| एनक्युम्बेन-स्नोई | ऑस्ट्रेलिया | २४.० |
| वॉर्ड (फ्लोरेन्स सरोवर) | अमेरिका (कॅलिफोर्निया) | १८.६ |
| सुन्डालसरा | नॉर्वे | १६.० |

भारतांत बोगद्यांचीं कामां फकत गरज आसा थंयच जाल्यांत. चडकरून भारतांतल्या जायत्या जलविद्युत् प्रकल्पांचेर गरजेप्रमाण चड-उण्या लांबायेचे एक वा चड बोगदे बांदून तांच्या आदारान धरणांतलें उदक विद्युत् निर्मिती केंद्राकडेन वा हेर जाग्यांनी व्हेल्लें आसा. महाराष्ट्रांतलो कोयना प्रकल्प, पेंच प्रकल्प आनी उत्तर भारतांतलो बियास आनी सतलज ह्या न्हंयांवयले प्रकल्प मुखेल आसात. भारतांतल्या रेल्वेमार्गाचेरूय ल्हान व्हड प्रमाणांत बोगदे बांदून रेल्वे येरादारींतलें अंतर कमी केलां आनी ती चड सुरक्षित आनी कार्यशील केल्या. मुंबय-पुणे ह्या मार्गावयल्या बोर घाटांत सादारण २५ ल्हान -व्हड बोगदे आसून ते सु. १०० वर्सां पयलीं बांदिल्ले आसात. तशेंच राजस्थान आनी गुजरात ह्या राज्यांतल्या उदयपूर आनी हिंमतनगर ह्या गांवांक जोडपी रेल्वेमार्गांचेरूय कांय बोगदे बांदिल्ले आसात. रस्त्यावयले येरादारीखातीर काश्मीरांत जम्मू-श्रीनगर रस्त्याचेर बनिहाल खिंडींत २,१५४ मी. उंचायेचेर बांदिल्लो बोगदो प्रसिध्द आसा. हाकालागून काश्मीरांत शियां दिसांनीय येरादारी चालू दवरप शक्य जाता. पुणे-बंगलोर मार्गावयलो कात्रज घाटांतलो बोगदोय असोच आसा.

जायत्या पयसुल्ल्या जाग्यांवयल्यान मुंबयक उदकापुरवण जाता. तानसा तळयांतल्यान जावपी उदका पुरवणेचेर १८८८ वर्सा ल्हान प्रमाणांत बोगद्याचें काम केल्लें. ताचे उपरांत १९५६ वर्सा वैतरणा तळयांतल्यान मुंबयक केल्ले उदकापुरवणेच्या नळाखातीर भातसा हांगा आनीक एक बोगदो बांदला. भांडूप हांगा जलशुध्दीकरण क्षेत्रालागीं आनीक एक बोगदो १९८० वर्सा बांदला.

महाराष्ट्रांतल्या कोयना जलविद्युत् प्रकल्पांत उदका साठवणेंतलें उदक अस्तंत घाटी वीज उत्पादनाखातीर ३,६९० मी. लांबायेच्या बोगद्यांत सोडपाची वेवस्था केल्ली आसा. ह्या बोगद्याचे फुडें चारूय दिकांक चार बोगदे वतात ते कोयनेच्या उदकाक विद्युत् केंद्राकडेन वचपी चार व्हडल्या नळांच्या तोंडामेरेन व्हेल्ले आसात. विद्युत् निर्मिती केंद्रांत वापरिल्लें उदक व्हरून तें वशिश्ठी न्हंयेक पावतें करपाचें कार्य एका अर्दवाट कुळाकृती बोगद्याच्या आदारान केल्लें आसा.

महाराष्ट्रांतल्या पेंच जलविद्युत् प्रकल्पांत नागपूरालागीं पेंच न्हंयेचे देगेचेर जमनीसकयल १३० मी. खोलायेर बांदिल्लो बोगदो ८ किमी. लांबायेचो आसा. कर्नाटक राज्यांत तुंगभद्रा न्हंयेचेर होस्पेट हांगा बांदिल्ल्या धरणांतल्यान वचपी कालव्याचें उदक व्हरपाखातीर दोंगराचे वण्टीक १,०६७ मी. लांबायेचो बोगदो बांदिल्लो आसा. हाका 'पापैया बोगदो' अशें म्हण्टात. तशेंच कर्नाटक राज्यांत शरावती न्हंयेचेर लिंगनमक्की ह्या गांवालागीं तीन कडांनी धरणां बांदून विद्युत् केंद्रांक उदकापुरवण करपाखातीर दोन बोगदे खणिल्ले आसात. तमिळनाडू राज्यांत कुंढा आनी अप्पर भवानी ह्या कावेरीच्या उपन्हंयांचेर बांदिल्ल्या प्रकल्पांत जायतीं धरणां आनी सांठवणी बंधारे आसून, तें उदक दोंगराच्यो कुशी फोडून तयार केल्ल्या जायत्या बोगद्यांच्या आदारान एकठांय करून व्हडलो जलाशय निर्माण केल्लो आसा. ताच्या आदारान ह्या उदकाचे जायते उपेग केल्ले आसात.

पंजाब राज्यांत बांदिल्ल्या बियाज सतलज प्रकल्पाचेर बियास न्हंयेंतल्यान सतलज न्हंयेंत उदक सोडपाखातीर दोन बोगद्यांचो वापर केल्लो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बोटे, व्हाल्टर व्हिल्हेल्म गेओर्ख फ्रांट्स :** (जल्म : ८ जानेवारी १८९१, ओरान्यबुर्क-उदेंत जर्मनी; मरण : ८ फेब्रुवारी १९५७, हायडलबर्ग).

नामनेचो जर्मन भौतिकशास्त्रज्ञ. १९०८-१२ त बर्लिन विद्यापिठांत शिक्षण घेतकच माक्स प्लांक हाच्या मार्गदर्शनाखाल संशोधन करून १९१४ त ताणें डॉक्टरेट पदवी मेळयली. पयल्या म्हाझुजांत ताका रशियनानी कैद केलो आनी सायबेरियांत एक वर्स बंदखणींत घालयतकच १९२० त ताका जर्मनींत परत धाडलो. बंदखणींत आसतना ताणें गणित आनी रशियन भाशांचो अभ्यास केलो. १९१३-३० ह्या काळांत ताणें बर्लिनच्या सरकारी फिझिकल-टॅक्निकल इन्स्टिट्युटांत काम केलें आनी थंय तो प्राध्यापक जालो. १९३०त गीसेन विद्यापिठांत भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक आनी थंयच्या इन्स्टिट्युट ऑफ फिजिक्सचो संचालक म्हणून ताची नेमणूक जाली. उपरांत १९३२ वर्सा तो हायडलबर्ग विद्यापिठांतल्या इन्स्टिट्युट ऑफ फिजिक्सचो संचालक जालो. १९३४त थंयच्या कायसर व्हिल्हेल्म इन्स्टिट्युट फॉर मेडिकल रिसर्चांतल्या इन्स्टिट्युट ऑफ फिजिक्सच्या संचालकपदाचेर ताची नेमणूक जाली. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत १९४६ सावन अखेरमेरेन ताणें हायडलबर्ग विद्यापिठांत भौतिकशास्त्राचो अध्यापक म्हणून काम केलें.

फिझिकल-टेक्निकल इन्स्टिट्युटांत गायगर हाचे वांगडा संशोधन करून १९२४ त बोटे हाणें आपली संपात पद्दत उजवाडायली. ही पद्दत दोन वा चड गायगर गणित्रांतल्यान एकूच कण गेल्यार दर एका गणित्रांत उत्पन्न जावपी स्पंद संपाती आसतात ह्या तत्त्वाचेर आदारीत आसा. बोटे हाणें ही पद्दत अणुकेंद्रीय भौतिकींतल्या एक खर्वांश सॅकंदापरस थोडो कालखंड मेजपाखातीर तशेंच विश्वकिरण कॉम्पटन परिणाम आनी भौतिकींतल्यो हेर समस्या अभ्यासपाखातीर वापरली. ही पद्दत फुडें अणुकेंद्रीय विक्रियकांखातिरूय वापरली आनी ताचेवयल्यान विक्रियेंतली ऊर्जा आनी अणुकेंद्रीय द्रव्यमानां अचूक रितीन मेजप शक्य जालें.

बोटे आनी गायगर हाणीं उजावडाच्या किरणांचें लघुकोनांत प्रकीर्णन जावपाविशींचे संकल्पनेचें स्पश्टीकरण दिवन प्रकीर्णन प्रक्रियांच्या आर्विल्ले विश्लेशण पद्दतींची बुन्याद घाली. १९२३-२६ ह्या काळांत बोटे हाणें उजवाडाच्या कणरूप सिध्दांताविशीं प्रयोगीक आनी सिध्दांतीक अभ्यास केलो. १९२७ त ताणें आल्फा किरणांच्या भडिमारान हलक्या मूलद्रव्यांच्या जावपी रुपांतरणाचो अभ्यास करपाक सुरवात केली. १९२९त डब्ल्यू. कोल हॉर्स्टर हाच्या पालवान बोटे हाणें गायगर गणित्रांतल्यान विश्वकिरण धाडून तांचो अभ्यास करपाची नळी पद्दत प्रचारांत हाडली. जर्मनींतलो पयलो सायक्लोट्रोन बोटे हाच्या मार्गदर्शनाखाल १९४४ त उबारिल्लो. १९३९-४५ ह्या झूजकाळांत ताणें न्युट्रॉनांचो विसरण सिध्दांत आनी तेविशींचीं मापनां हांचेर संशोधन केलें.

मूलकण मेजपाखातीर ताणें हान्स गायगर हाच्या पालवान संपात पद्दतीचो सोद लायलो आनी तिचो वापर करून हेर म्हत्वाचे सोद लायले. ह्या कार्याखातीर ताका १९५४ वर्साचो भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार माक्स बोर्न हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**बोत्स्वाना** : दक्षिण अफ्रिका खंडांतलो एक स्वतंत्र देश. क्षेत्रफळ ५,८१,७३० चौ. किमी. विस्तार १७°४७' दक्षिण ते २६°५४' दक्षिण अक्षांश आनी २०° उदेंत ते २९°२१' उदेंत रेखांश. ह्या देशाचे ईशान्येक आनी उदेंतेक झिंबाब्वे, आग्नेयेक आनी दक्षिणेक दक्षिण आफ्रिका प्रजासत्ताक, अस्तंतेक आनी उत्तरेक झांबिया आनी नामिबिया हे देश आसात. ह्या देशाच्या उत्तर आनी दक्षिण शिमांवयल्यान झॅबीझी आनी मोलोपो ह्यो न्हंयो व्हांवतात. गाबरोनी ही देशाची राजधानी. लोकसंख्या : १४,००,०००(१९९४).

**भूंयवर्णन** : ह्या देशाचो आस्पाव दक्षिण आफ्रिकेंतल्या सड्याच्या प्रदेशांत जाता. ह्या देशाचो चडसो वांटो कालाहारी रेंवटांत आसा. भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे दोन वांटे जातात- अस्तंते वटेंतलो कालाहारी रेंवटी प्रदेश आनी उदेंतेकडेन आशिल्लो ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्यांचो प्रदेश. कालाहारी रेंवटांत अस्तंतेकडचो सगळो वाठार व्यापिल्लो आसा. ह्या प्रदेशाची दर्यापांवड्यासावन उंचाय सु. ९००मी. आसा. भूंयतज्ञांच्या मतान ह्या प्रदेशांत कॅब्रियना-पयलीं काळांतल्या खडपांचेर रेंवचे थर सांचून हें रेंवट तयार जालां. देशाच्या उत्तर वाठारांत आशिल्ल्या ओकोव्हॅंगो दलदलीचो आस्पावूय ह्या रेंवटी प्रदेशांत जाता. हे दलदलीचे उत्तरेक 'माबाबे डिप्रॅशन' हो खोसो वाठार आसा. उदेंतेक आशिल्ल्या ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्यांचो 'वॅल्ड' हो वाठार समशीतोश्ण कटिबंधीय तणांच्या प्रदेशांत आस्पावता. चडशो न्हंयो देशाचे शिमेवयल्यान व्हांवतात. दक्षिण शिमेवयल्यान मोलोपो ही सु. ९६०किमी. लांबायेची न्हंय व्हांवता. लिंपोपो ही देशाचे उदेंत शिमेवयल्यान नैऋत्य-ईशान्येक व्हांवपी न्हंय. ह्या सड्याच्या प्रदेशाचो फकत ईशान्येकडचो आनी वायव्येकडचो ओकोव्हॅंगो प्रदेश सोडीत जाल्यार हेर सगळी जमीन रेंवटी आनी पडींग आसून थंय चुनखड्याचें प्रमाण चड आसा.

**हवामान** : सादारणपणान बोत्स्वानाचें हवामान उपोश्ण कटिबंधीय प्रकारचें आसा. उंचायेप्रमाण हवामानांत थोडोभोव बदल जाता. शिंयाळ्यांत रातचो थंड वारो मारता आनी दिसाचो तो ऊबदिणो आसता. हांगाच्या रेंवटी प्रदेशांत हिमतुषारांचो प्रभाव चड आसता. ह्या सुक्या हवामानाच्या प्रदेशांत ऑक्टोबर ते फेब्रुवारी ह्या काळांत कडक गीम आसता आनी जानेवारी म्हयन्यांत सगळ्यांत चड तापमान आसता. ह्या काळांत ३०° ते ३४° से. मेरेन तापमान आसता. जून ते ऑगस्ट ह्या शिंयाच्या दिसांनी जुलय म्हयन्यांत सगळ्यांत चड शीं आसता. ह्या काळांत तापमान ८° ते १° से. मेरेन सकयल येता. ऑक्टोबर ते एप्रिल हे म्हयने ऋतूचे आसून पावस सगळ्याक एकसारको पडना. हांगाचो वर्सुकी पावस सरासरी ४६ सेंमी. आसता. ईशान्य वाठारांत पावसाचें प्रमाण चड आसता आनी रेंवटी प्रदेशांत तें उणें उणें जायत वता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** देशाची सुमार ८४% भूंय साव्हाना प्रदेशांतल्या तणान आनी कांत्यांच्या झोंपांनी व्यापल्या. देशाच्या ईशान्य वाठारांत मोपानी, मोगोनोनो आनी मोकुसी ही वनस्पत मेळटा. कालाहारीच्या रेंवटी प्रदेशांत मोरूकुरू ही वनस्पत व्हडा प्रमाणांत मेळटा. सहारा तणांच्या वाठारांत लव्ह ग्रास, पॅनिकम, क्रॅब ग्रास, ब्रिस्टल ग्रास आनी हेर तणांचे प्रकार मेळटात. देशांतलें म्हत्वाचें रान चोबे न्हंयेच्या देगणांत आसा. तातूंत चडशी मोपानी, मोकवा, मोकुसी, मोनॅटो ही वनस्पत आसा. उत्तरेकडच्या ओकोव्हँगो ह्या दलदलीच्या वाठारांत खूब तरांची उदकांतली वनस्पत मेळटा. हांगाच्या रानांनी दक्षिण आफ्रिकेंतलें हतयांचे पंगड व्हडा प्रमाणांत मेळटात. हांचेखेरीज शींव, बिबटे, उदकांतले घोडे, जिराफ, रानरेडे, हरणां आनी हेर मोनजात हांगा दिश्टी पडटा. देशांत नाग आनी पफॲडर हे विखयाळे सोरोप आसात. हांगाच्या रानांनी रानगायो आसात. शहामृग, उदकांतले कोळी, मालदोक, बकीं, करकोचे आनी हेर सवण्यांचे प्रकार खूब आसात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** १९६६ मेरेन ब्रिटिशांची वसणूक आशिल्ल्या ह्या देशाक 'बेचुआनालँड' अशें म्हण्टाले. हांगाचे लोक स्वताक मसिलोच्या मुखेलपणाखाला सतराव्या शेंकड्यांत ह्या प्रदेशांत राज्य करपी सान जमातीचे वंशज आशिल्ल्याचें मानतात. अठराव्या शेंकड्यांत त्स्वाना लोकांनी हांचेर जैत मेळोवन हांकां आपले गुलाम केले. १८२० सावन मॅतबीली आनी झुलू लोकांनी ह्या प्रदेशांचेर घुरयो घालपाक सुरवात केली. अशे इबाडिल्ले स्थितींत ह्या शेंकड्याच्या मदल्या काळांत डेव्हिड लिव्हिंगस्टन आनी रॉबर्ट मॉफट ह्या ब्रिटीश धर्मप्रसारकांनी केल्ल्या कार्याक लागून ब्रिटीश सत्तेक थळाव्या लोकांचो खर विरोध जालोना. हांगाच्या थळाव्या जमातींच्या खूबशा लोकांनी क्रिस्तांव धर्म आपणायलो. झुलू लोकांच्या घुरयांक आनी दहशतवादांक लागून खूबशे लोक आपलो गांव सोडून वचपाक लागले. १८६४ त ताती न्हंयेच्या देगणांत भांगराचो सोद लागिल्ल्यान ट्रान्सव्हालांतल्यान बोअर लोक ह्या वाठारांत येवपाक लागले.

हांगाच्या बामांग्वाटो जमातीच्या लोकांनी मॅतबीलींच्या आड झूज उबारून बोत्स्वाना ट्रान्सव्हालांक जोडचें हे तांचे मागणेक ताणीं खर विरोध केलो. नैऋत्य आफ्रिकेंत आशिल्ल्या जर्मनांची नदर ह्या प्रांताचेर आशिल्ल्यान १८७२ त बामांग्वाटोंचो मुखेली तिसरो कामान हाणें ग्रेट ब्रिटनाचो आदार घेतिल्लो. हेच मागणेक लागून १८८५ वर्सा मोलोपो न्हंयेचो उत्तरेकडचो वाठार ब्रिटीश अधिरक्षीत (British Sphere) म्हणून आनी दक्षिणेकडचो वाठार 'ब्रिटीश बेचुआनालँड' हो ब्रिटिशांची वसणूक आशिल्लो प्रदेश जालो. हो प्रदेश १८९५ त दक्षिणेकडच्या केप कॉलनीक जोडलो. ब्रिटीश साऊथ आफ्रिका कंपनीकडेन हे वसणुकेची उदरगत जावंची म्हणून ब्रिटीश शासन आसलें. पूण बाक्वेना, बांग्वाकेत्से आनी बामांग्वाटो ह्या तीन जमातींच्या मुखेल्यांनी ताका विरोध केलो आनी ब्रिटीश शासनाचो अधिरक्षीत वांटो म्हूण रावपाक सांगलें. ३० सप्टेंबर १९६६ दिसा 'बोत्स्वाना प्रजासत्ताक' ह्या नांवान हो देश स्वतंत्र जालो.

ह्या देशाचें आयचें संविधान १९६५ त तयार केल्ल्या संविधानाचेर आदारिल्लें आसा. राश्ट्राध्यक्ष हो राश्ट्राचो मुखेली आसून ताचो निवाडो संसद वांगडी करतात. संसदेंतले ३२ वांगडी भौशिक मतदानान वेंचून काडटात आनी ४ वांगडी राश्ट्राध्यक्षान नेमिल्ले आसतात. हांचेखेरीज महाधिवक्ता आनी सभापती अशे सगळे मेळून संसदेंत ३८ वांगडी आसतात. हांचेमदल्या १० वांगड्यांच्या मंत्रीमंडळाची नेमणूक राश्ट्राध्यक्ष करता. राश्ट्राध्यक्ष, उपराश्ट्राध्यक्ष आनी १० मंत्री मेळून मंत्रीमंडळ जाता. बोत्स्वाना डॅमॉक्रॅटिक पार्टी, बोत्स्वाना पिपल्स पार्टी आनी बोत्स्वाना नॅशनल फ्रंट हे हांगाचे म्हत्वाचे पक्ष. हांगाची न्यायवेवस्था ही ब्रिटीश न्यायवेवस्थेभाशेन आसा. देशांत लोबात्सी शारांत उच्च न्यायालय आसा.

**अर्थीक स्थिती :** बोत्स्वाना हो एक फाटसारिल्लो देश. ह्या देशाची अर्थवेवस्था पशुपालन वेवसायाचेर आदारिल्ली आसा. हांगाचे ९०% लोक शेतवडीचेर आनी पशुपालन वेवसायाचेर जियेतात. देशाचो चडसो वांटो रेंवटी आशिल्ल्यान जमीन पडींग आसा. तशेंच परंपरीक शेतवड, मोडां, दुकळ ह्यो शेतवड वेवसायांतल्यो म्हत्वाच्यो अडचणी आसात. हांगांची शेतवड फकत पावसाचेर आदारिल्ली आसा. ज्वारी, मको, मिलेट, कड्डण, हीं हांगांचीं मुखेल पिकां आसात. कापूर, भूंयमूग, घेवडो, आनी सूर्यफुलांचें बीं हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं नगदी पिकां. हांगा चरोव तणाचें प्रमाण खूब आशिल्ल्यान पशुपालन वेवसाय नेटान चलता. दूद आनी दुदाचे जिन्नस, चामडें, मांस आनी लोकर हांचेंय उत्पन्न बरेंच आसा.

पशुपालन उद्देगाखाला खणकामाकय हांगा म्हत्व आसा. देशांतल्यान जावपी निर्यातम्हालांत अशुध्द खनिजांचो वांटो खूब आसता. खणींभितर हिऱ्यांचें उत्पन्न बरेंच आसा. हिऱ्यांखेरीज देशांत संगजिरा, कोळसो, तांबें, निकॅल आनी हेर खनिजां मेळटात.

**येरादारी आनी संचारण :** बोत्स्वानांत येरादारींचीं साधनां मर्यादीत आसात. चडशे म्हत्वाचे मार्ग देशाच्या उदेंत वाठारांत दिश्टी पडटात. बोत्स्वानान रेल्वेमार्गाखातीर, 'बोत्स्वाना रेल्वे निगम' ची स्थापणूक केली. रेल्वेमार्ग खाण उद्देग वाडोवंक पालव दिता. देशांत तीन विमानतळ आसात. फ्रान्सिसटाऊन आनी गाबरोनी हे हांगाचे म्हत्वाचे विमानतळ. आंतरराश्ट्रीय दूरसंदेश वाहनाखातीर १९८०त देशांत एक स्वतंत्र केंद्र उबारलां. बोत्स्वाना डेली-न्यूस हें गाबरोनीच्यान इंग्लीश आनी सेत्स्वाना ह्या दोनूय भाशांतल्यान उजवाडाक येवपी एक दिसाळें आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** बॅटवाना हे आफ्रिकन जमातीचे लोक हांगाचे थळावे लोक. हांगा चडशे युरोपी लोक आसात. आनी हांचे सकयल युरोपी बॅटवाना अशा भरशिल्ल्या वंशाचे आसात. बॅटवाना

लोकांची भास आनी संस्कृताय हांचें अस्तंतंकडले सोथो जमातीकडेन सारकेपण दिसता. बॅटवानांत मुखेल आठ जमातींचो आस्पाव आसून ते चडशे बांतू भास उलयतात. बामांग्वाटो जमातीचो व्हड पंगड आसून ते लोक ईशान्य वाठारांनी रावतात. तशेंच बाकावेंगा आनी बांग्वाकेत्से हे दक्षिण वाठारांत, बॅटवाना नैऋत्येक आनी बॅकगाट्ला, बामालेटे, बॅटलोक्वा हे आग्नेय वाठारांत रावतात. बुशमन ह्या देशांतल्या थळाव्या लोकांक सारवा वा मासारवा ह्या नांवांनी वळखतात. देशांत क्रिस्तांव हो मुखेल धर्म आसून रोमन कॅथलिक लोकांचें प्रमाण चड आसा. हांगा मुळावें शिक्षण फुकट आसलें तरी सक्तीचें ना. देशांत उद्देगीक आनी वेवसायीक शिक्षणाची सोय आसा. देशांत सेत्स्वाना भास उलोवपी खूब आसले तरी इंग्लीश ही देशाची शासन भास आसा. हांगाचीं चडशीं म्हत्वाचीं शारां उदेंत वाठारांत आसात. गाबरोनी ही देशाची राजधानी. ह्या शाराची स्थापणूक १८९० त केली. फ्रान्सिसटाऊन, सेलेबी-फिक्वे, कान्या हीं देशांतलीं उद्देगीक शारां. लोबात्सी, मोचूदी, मोळेपोलोले, महालाप्ये आनी माऊन हीं कांय मुखेल शारां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**बोडगेश्वर :** म्हापशेंच्या शेतांतलो एक जागृत देंवचार (राखणदार). अडचणीच्या वेळार साद घाल्यार रोखडोच पावपी देंवचार म्हणून बोडगेश्वराची नामना आसा. म्हापशें शाराचे दक्षिणेक आशिल्लें बोडगेश्वराचें देवूळ गोंयांतल्या प्रसिध्द जागृत देवळांत एक आसा.

बोडगेश्वराचो भेस सादारणपणान राखण्याभाशेन आसा. धवें पुडवें, माथ्याक मुंडाशें, खांदार कांबळ, पांयांत दाट चामड्याचीं जोतीं, दाव्या हातांत चूड आनी उजव्या हातांत दांडो आसता. बोडगेश्वरावयल्यान सद्या देवळा भोंवतणच्या वाठाराक बोडगिणी अशें म्हण्टात.

हांगाचे कांय जाण्टेले ह्या देंवचाराविशीं इतिहास सांगतात तो असो - सद्या देवळाफाटल्यान आशिल्लो ल्हान व्हाळ हो आदल्या तेंपार एका व्हड पाटाच्या रुपान व्हांवतालो. पाटाच्या दोनूय देगांनी हात्याचीं (बोंडकेचीं) व्हड झोपां आशिल्लीं. सदांच दरवळपी हात्याच्या वासाक लागून बोडगेश्वरान हांगाच आपलो राबितो केलो.

आमोरेच्या वेळार एका थळाव्या मनशाक हे सुवातेर बोडगेश्वराचो दृश्टांत जालो. हाका लागून ताणें हे सुवातेर सदांच तिनसांजे दिवो लावपाक सुरवात केली. उपरांत हे सुवातेर भाविकांची संख्या वाडत रावली. ताणीं हांगा आशिल्ल्या पारपळीच्या रुखाभोंवतणीं एक ल्हानशें पेड बांदलें. हाका लागून हे सुवातेक क्षेत्राचें स्वरूप प्राप्त जालें. दर आयतारा-बुधवारा बोडगेश्वराच्या दर्शनाखातीर लोकांची गर्दी जावपाक लागली. उपरांत हांगाच्या कांय लोकांनी दर वर्सा जात्रा मनोवपाचो निर्णय घेतलो (१९३५). श्रीदेवी शांतादुर्गा (धारगळ) ही म्हापशेंकारांची ग्रामदेवता आनी म्हापशें शाराचे शिमेर रावून बोडगेश्वर शांतादुर्गा देवीच्या आशिर्वादान हांगाच्या लोकांची राखण करता अशें बोडगेश्वराचे भावीक मानतात. बोडगेश्वराची जात्रा मनोवपाखातीर दर वर्सा शांतादुर्गा देवीचो



धारगळे वचून कौल घेवप जाता. बोडगेश्वराची जात्रा दर वर्सा माघ म्हयन्यांतले पुनवे दिसा जाता. ही जात्रा बार्देस म्हालांतली सगळ्यांत व्हड जात्रा आसा. कांय वर्सांपयलीं हांगा बोडगेश्वराचें सोबीत देवूळ बांदलें. ह्या देवळाभितर सत्यनारायणाचें ल्हानशें देवूळ आसून, जात्रेच्या दुसऱ्या दिसा दर वर्सा सत्यनारायणाची भौशिक पुजा बांदतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बोडस, गणपतराव :** (जल्म : २ जुलय १८८०, शेवगाव, जिल्हो- अहमदनगर; मरण : २३ डिसेंबर १९६५, पुणें).



मराठी रंगमाचयेवयलो एक व्हड गायक-नट. पुराय नांव गणेश गोविंद बोडस. पूण ताका गणपतराव ह्याच नांवान वळखताले. ताच्या बापायचें नांव गोविंद विनायक बोडस आनी आवयचें नांव सगुणाबाई. ताचे बायलेचें नांव अन्नपूर्णाबाई आशिल्लें. ताचो बापूय गांवांतल्या पुराणीक नाटकांनी काम करतालो. ताणें पुणें शारांत मराठी सवी

आनी इंग्लीश दुसरीमेरेन शिक्षण घेतलें. शाळेंत शिकता आसतना तो हौशी नाट्यमंडळांतल्यान काम करूंक लागलो. १८९५ वर्सा ताणें 'किर्लोस्कर संगीत मंडळीत' प्रवेश केलो. थंय ताका पयलीं कांय वर्सां सहाय्यक स्त्रीभुमिका मेळ्ळयो. फुडें ताका सौभद्र नाटकांत कृष्ण, शारदा नाटकांत कांचनभट, मूकनायकांत विक्रांत आनी मानापमानांत लक्ष्मीधर अशो म्हत्वाच्यो भुमिका मेळत गेल्यो.

१९१३ त ताणें किर्लोस्कर मंडळी सोडून बालगंधर्व आनी गोविंद टेंबे हांच्या आदारान 'गंधर्व नाटक मंडळीची स्थापना केली. हे कंपनीन सौभद्र, मृच्छकटिक, मानापमान, विद्याहरण, संशय कल्लोळ, स्वयंवर, एकच प्याला, द्रौपदी आदी नाटकां रंगमाचयेर हाडलीं. सुधाकर (एकच प्याला), लक्ष्मीधर (मानापमान), शकार (मृच्छकटिक), शिष्यवर (विद्याहरण) आनी फाल्गुनराव (संशय कल्लोळ) ह्या ताच्या भुमिकांक खूब नामना मेळ्ळी. १९३० उपरांत मराठी रंगमाचयेक देंवती कळा लागली आनी थोड्याच काळांत गणपतराव नाट्यवेवसायांतल्यान निवृत्त जालो. फुडें ताणें एक-दोन चित्रपटांनी भुमिका केल्यो. पूण तातूंत ताचें मन व्हडलेंशें रमलेंना. उपरांतच्या काळांत ताणें कांय नटांक मार्गदर्शन करपाचें काम केलें.

१९४० त ताका नासिकांत भरिल्ल्या एकतिसाव्या नाट्यसंमेलनाच्या अध्यक्षपदाचो मान मेळ्ळो. फुडें १९५६ वर्सा नांदेडाक भरिल्ल्या मराठवाडा नाट्यसंमेलनाचें अध्यक्षपद ताकाच मेळिल्लें. त्याच वर्सा ताका राश्ट्रपती हस्तुकीं दिल्लीक संगीत नाटक अकादेमीचो पुरस्कार दिलो. ताणें सुमार चाळीस वर्सां मराठी रंगमाची गाजयली आनी नाट्यमळावयले जायते भोवमान मेळयले. 'माझी भूमिका' हें ताचें आत्मचरित्र १९४० वर्सा उजवाडाक आयलें. ताची सुदारिल्ली आवृत्ती १९६४ त आयल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**बोतेल्यू, ज्योकीं द सांता रीता :** (जल्म : १७८१, पणजी; मरण : १८५९).

एक गोंयकार फ्रांसिस्कन. गोंयचे सेंट बोनावेन्चर कॉलेजींत तो तत्त्वगिन्यान आनी धर्मशास्त्र विशयांचो प्रोफेसर आशिल्लो. क्रंगनोर आनी कोचीन डायोसिसांचो तो आपोस्तोलीक गवर्नर आशिल्लो. उपरांत कोचीचो बिशप म्हणून तो वेंचून आयलो (१८४०). पूण ताचो अभिशेक जालोना. १८५१ त तो गोंयचो विकार कापितुलार म्हणून वेंचून आयलो. ताणें सुमार णव वर्सां आर्किडायोसीसचो कारभार पळयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**बोधकथा :** रुपकावरीच एक कथनप्रकार. तो गद्य वा पद्य रुपांत आसता. इंग्लीश भाशेंत ताका फॅबल म्हण्टात. फेबल हे इंग्लीश संज्ञेचो शब्दकोशांतलो अर्थ कल्पिल्ली वा रचिल्ली काणी असो जाता. ती काणी बोधपर आनी नितीपर आसता. मूळ लॅटीन उतर (Fabula) अशें आसून ताचो अर्थ नाट्यपूर्ण काणी असो जाता.

बोधकथेंत चड करून मोनजातीचेर आदारून बोधतत्त्व सांगप जाता. हे कथेंत मनशाचो आस्पाव आसता. तरी पूण मोनजाती वरवींच मनशासारके गूण दाखयतात. ह्या कथांवरवीं मोनजातीवांगडाच वारें, उदक, दोंगर, आदी सैमीक शक्तींचेंय मानवीकरण करतात. नितीचें गिन्यान सांगपी रंजक मोनजातीच्यो कथा अशें बोधकथेचें स्वरूप आसता. हो बोध लोकांचे नित्याचे जिणेकडेन संबंद आशिल्लो तशेंच वेव्हाराक उपेगी असो आसता. बोधकथेंत उण्यांत उण्या उतरांनी कथेचो आशय सांगपाचो तशेंच एके कथेंतल्यान एकूच तत्त्व सांगपाचो यत्न जाता. तातूंत खंयचीय गजाल विस्तारान सांगपाक वाव आसना.

अती पुर्विल्ल्या काळांत साहित्यप्रकारांत ह्या प्रकारच्या कथांचो आस्पाव दिसना. पूण ताचे उपरांत लोकशिक्षणाखातीर आनी लोकरंजनाखातीर ह्या कथांचो उपेग जावंक लागलो. ग्रीसांत एक स्वतंत्र साहित्यप्रकार म्हणून बोधकथेकडेन पळोवप जालें. भारतांतलो विष्णुगुप्त आनी ग्रीसांतलो इसाप (इ.स. आदीं सवें शतमान) हांकां पुर्विल्ल्या काळांतले आद्य बोधकथाकार मानतात. कांय जाणांच्या मतान बोधकथांचो उगम भारतांत जालो. इ.स. दुसऱ्या आनी तिसऱ्या शतमानांतलो संस्कृत पंचतंत्र हो बोधकथांचो आद्य संग्रह, आनी ह्योच कथा संवसारभर पातळ्ळयो अशें मानतात. सगळयांत पोरन्यो बोधकथा महाभारतांत मेळटात. ह्या कथांतली मोनजात आपआपल्या वर्गांचे संकेत पाळटा. देखीक-कोल्याचें, कावळ्याचें कपटीपण, माकडाची चौकसबुध्दी. पुर्विल्लो ग्रीक कवी हेसिअडच्या 'वर्क्स अँड डेस' हातूंतली 'बहिरी ससाणा आणि बुलबुल' ही सगळयांत पोरनी बोधकथा आसूंक जाय (इ. स. आदीं आठवें शतमान). पोरन्या बोधकथांनी 'मधमाशीची काणी' तशेंच 'मुंगी आनी टोळ' ह्या कथांचो उल्लेख येता. इसापाच्यो कथा इ. स. आदीं सव्या शतमानांत आस्पावतात. फीड्रस (इ.स. आदीं सुमार १५ ते इ.स. आदीं सुमार ५४) हो नामनेचो रोमन बोधकथाकार. लॅटीन साहित्यांत ताणें बोधकथा ह्या प्रकाराक नामना मेळोवन दिली. ताच्या बोधकथांचे पांच खंड आसात आनी ताणें चड करून इसापाच्या बोधकथांकूच लॅटीन पद्यरूप दिलां. बेब्रिअस ह्या ग्रीकी बोधकथाकारानूय इसापाच्या बोधकथांक पद्यरूप दिलां. मदल्या युगांत (सुमार ११०० ते १४००) रेनर्ड द फॉक्स हाची मोनजातीच्या कथांखातीर नामना आशिल्ली. इसाप कथांचो पयलो इंग्लीश अणकार १७२२ त उजवाडाक आयलो. आधुनिक काळांत फ्रांसांत बोधकथेचो बरोच विकास जालो. सतराव्या शतमानांतल्या ला फॉन्तेन हाच्या फ्रेंच भाशेंतल्या बोधकथांनी उपरोध आनी नाट्य हे गूण दिश्टी पडटात. जर्मन बोधकथाकार लेसिंग हाचो फॅबेलन (१७५९) ह्या झेल्यांतल्यो बोधकथा इसापाच्या कथांवरी साद्यो आनी परिणामाचेर

भर दिवपी आसात. जोएल चांड्लर हॅरिस (१८४८-१९०८) ह्या अमेरिकन कथाकाराच्यो, खाप्री गुलामांच्या लोकसाहित्याचेर आदारिल्ल्यो आनी अंकल रेमस ही मध्यवर्ती व्यक्तिरेखा आशिल्ल्यो कथा (१८८०) ह्योय आर्विल्ल्यो बोधकथाच. रडयर्ड किपलिंग हाच्या 'द जंगल बुक' (१८९४) आनी 'जस्ट सो स्टोरीस' (१९०२) हांचोय बोधकथांनी आस्पाव जाता. अमेरिकन विनोदी कथाकार जेम्स थर्बर (१८९४-१९६१) हाणेंय 'फेबल्स फॉर अवर टायम' (१८४०) नांवाच्यो आर्विल्ल्यो बोधकथा बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**बोधगया :** बौध्दाच्या पवित्र तीर्थक्षेत्रांतलें एक थळ. हाका बुध्द गया अशेंय म्हण्टात. हें बिहार राज्यांत गयेचे दक्षिणेक ११ किमी. अंतराचेर निरंजना (निलांजना) (फल्गू) न्हंयेचे देगेर वसलां. ह्या थळाची म्हायती गयामाहात्म्य, अग्निपुराण, वायुपुराण आदी ग्रंथांतल्यान तशेंच चीनी भोंवडेकार ह्युएन त्सांग हाच्या प्रवासवर्णनांतल्यान मेळटा. पुर्विल्ल्या साहित्यांत ह्या थळाचो उल्लेख बुध्दगया, उरुबिल्ववन, उरुवेला, उरूविल्व ह्या नांवांनी मेळटा. ह्या थळांत जायते बौध्द अवशेश आसात.

गौतमबुध्दाक हांगासल्ल्या बोधीवृक्षाखाला गिन्यान प्राप्त जालें, त्या वेळार सावन हें बौध्द धर्माचें पवित्र थळ मानतात. सम्राट अशोकान ह्या थळाक भेट दिली आनी हांगा एक विहार बांदलो. तेचपरी हांगासल्ल्या



बोधगयेचें महाबोधी मंदिर

बोधीवृक्षाची एक खांदी संघमित्रा हे आपले धुवे वांगडा श्रीलंकेक धाडली. अशोकाच्या बौध्द धर्माविशींचे भक्तीची तिडक येवन ताची राणी तिष्यरक्षिता हिणें हें झाड नश्ट केलें. पूण अशोकान तें परत लायलें अशी दंतकथा आसा. अशोकाउपरांत ह्या प्रदेशाचेर शुंग वंशाचो अधिकार आशिल्लो. त्या वेळार ह्या बोधीवृक्षा भोंवतणीं पार बांदून ताचेर बौध्द धर्माच्या प्रतिकांचीं आनी जातकांतल्या प्रसंगांचीं चित्रां चितारल्यांत. फाहियान हाणें हांगा भेट दिल्ली तेन्ना ताका हांगा रान आनी वसाड प्रदेश दिशिल्ल्याचें ताच्या भोंवडे वर्णनांत मेळटा. ताचेवयल्यान गुप्त काळांत हांगा कांयच बांदकाम जावंक नाशिल्लें हें स्पश्ट जाता. फुडें ह्युएन त्सांग (इ.स. ६२९-६४८) हाच्या भोंवडेवर्णनांतल्यान मात हांगासल्ल्या महाबोधी देवळाची पुराय म्हायती मेळटा. गुप्त काळा उपरांत इ.स. ५५० ते ६०० च्या अदमासाक महाबोधी देवूळ बादलां आसूंक जाय. इ.स. ६००त गौडाधिपती शशांकान हांगासल्लें झाड तोडलें पूण मगधाधिपती पूर्णवर्मा हाणें ताचीं मुळां सोदून काडून तें परतें लायलें अशें वर्णन ठ्यूएन त्सांग हाच्या बरपांत मेळटा. ह्या बोधीवृक्षाक २६०० वर्सांची परंपरा आसा. मदल्या काळांत मियानमार, श्रीलंका हांच्या राजांनी ह्या देवळाचो जिर्णोध्दार करून हांगा कांय नव्यो वास्तू आनी चैत्य बांदले. महाबोधी देवूळ हें बोधीवृक्षाचे अस्तंतेक प्राकारांत बादिल्लें आसा. हें देवूळ दोन माळयांचें आसून ताची उंचाय सुमार ५२ मी. आसा. पयलो माळो चवकोनी आसून तेंगशेवटेन अशीर जायत गेला. देवळाच्या चारूय कोनशांनी मुखेल देवळाच्यो प्रतिकृती बांदल्यात. बुध्दाच्या वास्तव्यान पवित्र जाल्लीं अनिमेष, चंक्रमण, रत्नघर अजपाल झाड, मुचलिंद ऱ्हद, राजायतन वज्रासन आदी कांय स्थळां बोधीवृक्षा लागसार दिश्टी पडटात. देवळालागसार स्तुपाचे जायते भग्नावशेश पडिल्ले आसात. तांचेर तरातरांच्यो बुध्दमूर्ती कोरांतिल्ल्यो आसात. भारहूत आनी हांगासल्ल्या शिल्पांनी नागराज आनी हत्ती बोधीवृक्षाची पुजा करतात अशीं शिल्पां कड्याचेर चितारिल्लीं आसात. कड्याचेर कांयकडेन शिलालेख आसून तातूंत हांगासल्ल्या वास्तूची बांदावळ, निवळसाण आदीची म्हायती मेळटा. क्रिस्ताआदल्या काळांत बांदिल्ल्या ह्या देवळाचो जिर्णोध्दार वेळच्यावेळार जाल्ल्यान हांगा वेगवेगळ्या काळांतल्यो बौध्दकला दिश्टी पडटात.

बोधगयेंत महाबोधी देवळाच्या लागसार जगन्नाथाचें एक देवूळ आसा. तशेंच जपान, चीन, थायलंड, मियानमार, तिबेट आदी देशांचे स्वतंत्रपणान बांदिल्ले स्तूप आसात. हातूंतलो जपानी आनी थायलंडी स्तूप व्हड आसून तांच्यो वास्तू कलात्मक आसात. हांगा एक पुरातत्त्वीय वस्तुसंग्रहालय आनी जयप्रकाश उद्यान आसा. बौध्द भोंवडेकारांखातीर हांगा जायत्यो धर्मशाळा आसून अस्तंतेक तीन किमी. अंतराचेर मगध विद्यापीठ आनी संस्कृत महाविद्यालय आसा. सदया बौध्द धर्माचें हें एक म्हत्वाचें तीर्थक्षेत्र जालां.

- कों. वि. सं. मं.

**बोधिचर्या :** बुध्दपदाचे प्राप्तीखातीर महायान ग्रंथांत सांगिल्ली एक खाशेली साधना. बोधिचर्येचो आरंभ बोधिचित्तग्रहणासावन जाता.

बोधी म्हळयार गिन्यान. सगळ्या जिवांच्या उध्दाराखातीर सम्यक संबोधीत चित्त प्रतिश्ठीत जावप हाका 'बोधिचित्तग्रहण' अशें नांव आसा.

बोधिचित्ताचे बोधिप्रणिधी चित्त आनी बोधिप्रस्थान चित्त अशे दोन प्रकार आसात. पुराय संवसाराच्या परित्राणाखातीर हांव बुध्द जातलों, अशी भावना जेन्ना प्रार्थनेच्या स्वरुपांत उकती जाता, तेन्ना बोधिप्रणिधी चित्ताचो जल्म जाता. हीच ह्या व्रताची सुरवातीची अवस्था. जेन्ना साधक आनिकूय उदरगत करून शुभकार्यां करीत रावता, तेन्ना बोधिप्रस्थान चित्ताचो उदय जावन निमाणें ताका बुध्दपदाची प्राप्ती जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## बोधिधर्म : (इ.स. सवें शतमान).

एक भारतीय बौध्द भिक्षूक. इ. स. ५२६ त तो चीन देशांत वचपाक भायर सरिल्लो असो उल्लेख मेळटा. ताच्या जिविताविशीं जायत्यो आख्यायिका आसात. एके आख्यायिकेवयल्यान तो इराणी आशिल्लो अशें मानतात. जाल्यार दुसरे आख्यायि- केवयल्यान तो दक्षिण भारतांतल्या एका राजाचो पूत आशिल्लो. आनी गुरू प्रज्ञारत्नाचे सांगणेवयल्यान दर्या मार्गान तो चीनाक गेलो. चीनांत येतकच नानकिंगांत लयांग वंशाचो राजा वू-ती हाका तो मेळ्ळो. उपरांत तो उत्तरेकडल्या वे राज्यांतल्या लोयांग गांवांत गेलो. लोयांग लागसल्ल्या सूंग दोंगरावयल्या नामनेच्या शाओ-लीन ह्या बौध्द मठांत ताणें वण्टीकडेन तोंड करून णव वर्सां खर तप केलें. मरणा वेळार ताची पिराय ६१,१०० वा १५० वर्सां आसूंक जाय अशीं मतां मांडप जाता. बोधिधर्म हो महायान पंथाचो आसून शुन्यतायेचो पुरस्कर्तो आशिल्लो. शुन्यतायेविशीं अस्तिपक्षी कांयच उलोवपासारकें नाशिल्ल्यान ताचीं उतरां नास्तिपक्षीच आसतालीं. लिखाण, वाचन वा पांडित्य हांची ताका ओड नाशिल्ली. पूण ध्यान धर्माची ताका गोडी आशिल्ली. देखुनूच ताणें फकत महापरिनिर्वाण सुत्रां ह्याच ग्रंथाचो चीनी भाशेंत अणकार केलो. ताणें हेर कांयच ग्रंथरचना करूंक ना. पूण चीन देशांत ताच्या गुढात्मक ध्यान-धर्माचो बरोच परिणाम जालो आनी ताका मान्यताय मेळ्ळी. ताणें आपल्या शिश्यांक फकत लंकावतार सुत्रांचें अध्ययन करपाचो उपदेश केलो. ताच्या ह्या ध्यान धर्मांतल्यानूच जपानांत नामना आशिल्लो झॅन(चीनी-छान-ध्यान) धर्माचो उगम जालो. बोधीधर्मा उपरांत ताच्या अनुयायांनी ताचो संप्रदाय चालू दवरिल्लो. ताच्या शिश्यांतलो एक मुखेल शिश्य हूई-के हाणें झॅन पंथाचें चीनांत मूळ प्रवर्तन केलें अशें मानतात. चीन आनी जपानांत बोधीधर्माक मानाची सुवात आसून थंय ताचे मूर्तीची पुजा जाता. शाओ-लीन मठांत ताणें समाधी घेतली.

- कों. वि. सं. मं.

## बोधिसत्त्व : एक बौध्द कल्पना.

जाच्या आंगांत 'बोधि' म्हळयार पुराय गिन्यान प्राप्त करून घेवपाची पात्रताय आसता ताका बोधिसत्त्व म्हण्टात. ह्या उतराच्यो व्याख्या अशो - १) जाचें सत्त्व (स्वभाव) ज्ञानपूर्ण



बोधिसत्त्वाची मूर्त - चीन

आसा असो मनीस. २) दशपारमितांच्या अभ्यासान पुराय गिन्यान आत्मसात करपाचे वाटेर आशिल्लो मनीस म्हणजेच भावी बुध्द. ३) जाचें सत्व (विचार, वेवसाय, निश्चय,) पुराय गिन्यानाकडेन केंद्रीत जाल्लें आसता असो मनीस. ४) जाची इत्सा बुध्दत्त्वांचे प्राप्तीचेर थिरावल्ली आसता असो मनीस. सिध्दार्थ गौतम ज्ञान मेळचे आदीं जायत्या जल्मांतल्यान गेला देखुनूच ताच्या आदल्या जल्मांतल्या सगळ्या जातक कथांतल्यान आनी सिध्दार्थ म्हणून जल्माक आयला त्या निमण्या जल्मांतले बोधिप्राप्तीचे अवस्थेमेरेन ताचो 'बोधिसत्त्व' ह्या नांवानूच उल्लेख जातालो. जातक कथांवरवीं अशें दिसता, संवसारांतल्या प्राणीमात्रांक धर्माचो उपदेश करपाखातीर बोधिसत्त्व स्वताचे इत्सेन जल्म घेतात.

महायानपंथ अस्तित्वांत येतकच बोधिसत्त्वाक म्हत्व मेळ्ळें. बोधिसत्त्व हो उपकार करपी, आपल्या जिवाची पर्वा करिनासतना दुसऱ्याक वांचोवपी, दयेस्त आनी हेर जिवांक मुक्ती मेळ्ळेबगर आपले मुक्तीची पर्वा ना करपी आशिल्ल्यान ताका चड आदर दिवप जालो. महायान पंथान बोधिसत्त्व ही कल्पना हाडून तिचो खूब प्रसार केलो. बोधिसत्त्वाच्या रुपांत सात्विक, लोकोपकारक आनी अती दयेस्त असो सुमाराभायर गूण आशिल्लो आदर्श मनीस तांणी लोकांमुखार दवरलो.

बोधिसत्त्व हें उतर पाली निकायांत जायतेकडेन मेळटा. महायान मताप्रमाण श्रावक, प्रत्येकबुध्द आनी बोधिसत्त्व अशे साधकाचे तीन वर्ग आसतात. दर एकाच्यो बोधीय वेगवेगळयो आसतात. महायानान अर्हत्पदापरसूय बोधिसत्त्वपरिक्षेक चड म्हत्व दिलां. बोधिसत्त्व हो

निर्वाणाखातीर प्रयत्नशील आसता. पूण तो स्वताच्या निर्वाणाखातीर न्हय जाल्यार हेर जिवांच्या निर्वाणाखातीर.

महायान पंथान बोधिसत्त्व कल्पनेक म्हत्व दिल्ल्यान बोधिसत्त्वाच्यो वेगवेगळ्यो मूर्ती अस्तित्वांत येवन तांची पुजा जावंक लागली. दान, शील, शांती, वीर्य, ध्यान आनी प्रज्ञा ह्या स पारमितांचेर महायानांनी चड भर दिलो. महायानपंथांत बोधिसत्त्व कल्पनेक फकत आध्यात्मिकते सुवातेर सामाजिकताय चड आयली आनी तो संप्रदाय अंतर्मुख जावपा बदला बहिर्मुख चड जालो.

महायान पंथांत जायते बोधिसत्त्व उत्पन्न जाले. तातूंतल्या कांय जाणांक देखीकः अवलोकितेश्वर, मंजुश्री, मैत्रेय, समंतभद्र आदी उपास्य देवतांचें स्थान मेळ्ळें.

- कों. वि. सं. मं.

**बोनस** : उत्पादन संस्थांनी आपल्या कामगारांक तांच्या थरयिल्ल्या आधिकारांप्रमाण वा अधिकारांभायर, पूण बऱ्या हेतान पगाराभायर दिल्ली अदीकचाराची रक्कम 'बोनस' ह्या सदरांत आस्पावता. ह्या उतराची उत्पत्ती लॅटीन भाशेंतल्यान जाल्या. बोनस ह्या शब्दाचो अर्थ 'बरो' असो जाता. बोनस हो पयल्या म्हाझुजा वेळार सणापरबे निमतान अदीक चाराचो पगार म्हणून दिताले. दुसऱ्या म्हाझुजा वेळार जिवीतमानाचो खर्च खुबूच वाडिल्ल्यान म्हारगाय भत्तो दिवप सुरू जालें. ह्याच वेळार भारतांत, उत्पादन संस्थांक जावपी फायद्यांतलो थरावीक वांटो काम करतल्यांक मेळचो हे नदरेन बोनसाची कल्पना आयली, आनी बोनसाचो संबंद उत्पादनशक्त वाडपाकडेन जोडलो. तो दिवप. ना दिवप हें धनयाचे मर्जीचेर आसलें. हाचे उपरांत बोनस म्हळयार फकत फायद्यांतलो भाग नासून वेळान दिल्लें वेतन वा स्थगीत वेतन (डेफर्ड वेजीस) ह्याय अर्थान वापरांत आयलो. परिणामान फायदो वा, नुकसान वा, कामगारांक उण्यांत उणें वेतन वांटप बंधनकारक केलें. बोनसाचो संबंद फायद्याकडेन जोडचो न्हय अशी मागणी कामगार संघटना आयजमेरेन करीत आयल्यात.

दुसऱ्या म्हाझुजाचे अखेरेक म्हळयार १९४४ वर्सा 'जनरल मोटर्स' ह्या प्रकरणाचेर निवाडो दितना तेन्नाचो मुबंय हाय कोर्टाचो मुखेल न्यायाधीश श्री. एम. सी. छगला हाणें 'उद्येग आस्थापनांनी जर फायदो मेळयलो जाल्यार कामगारांचोय ताचेर हक्क उरता' असो निवाडो दिलो. भारताच्या स्वातंत्र्या उपरांत हातूंत आनिकूय बदल जाले. १९५५ वर्सा मुंबयच्या गिरणी धनयांक तांच्या वेव्हारांत नुकसान जालें, तरी आसतना तांच्या कामगारांक चार टक्के बोनस दिवपाचें तांणी मान्य केलें. अहमदाबाद, कोइमुत्तूर आनी इंदूर कापड गिरण्यांनी हेच धर्तेचेर त्या वेळार बोनस वांटलो. १९६२ वर्सा बोनस प्रस्नाचेर विचार करपाक भारत सरकारान मेहेर आयोग नेमलो. ह्या आयोगाचे शिफारशीप्रमाण १९६५ वर्सा 'पेमँट ऑफ बोनस ॲक्ट' हो कायदो अस्तित्वांत आयलो.

'पेमँट ऑफ बोनस ॲक्ट १९६५' ह्या कायद्याप्रमाण भारतांतल्या ज्या उत्पादकीय आस्थापनांनी विसांपरस चड कामगार आसात वा धा परस चड आनी विसांपरस उणे कामगार आसून सरकारान खासा सुचयिल्ल्या आस्थापनांनी तांचो आस्पाव जाता अशा आस्थापनांनी काम करपी कामगारांक, तांणी एका वर्सांत उणेच म्हळयार तीस दीस केल्ल्या कामाचो मोबदलो म्हणून बोनस दिवंचो पडटा. हो बोनस तांच्या वर्सुकी पगाराचेर उण्यांत उणो ८.३३टक्के आनी चडांत चड २० टक्के दिवंक जाय.

हो कायदो 'ना फायदो ना नुकसान' ह्या तत्त्वाचेर चलपी आस्थापनांक लागू जायना. हातूंत विद्यापीठ, हॉस्पिटलां, चेंबर ऑफ कॉमर्स आनी समाजीक उदरगतीखातीर वावुरपी संस्था आस्पावतात.

बोनसाचो विंगड विंगड क्षेत्रांतलो संबंद आसा तो असो-

भारतीय सादारण जीवन बीमा निगम (General Insurance Corporation of India) आपल्या चार सहयोगी कंपन्यांवतीन (ओरिएंटल इन्श्युरन्स, नॅशनल इंन्श्युरन्स, युनायटेड इंडिया, न्यू इंडिया इन्श्युरन्स) जो विम्या वेव्हार करता तातुंतूय 'बोनस' दिवपाची पद्दत आसा. हो बोनस खास करून मोटार गाडयेच्या विम्या वेव्हारांत दितात. ताची कार्यपद्दत अशी-

नवे गाडयेचो पूर्ण विमो (Comprehensive Insurance) करतकच मोटार गाडयेक विम्याची एक वर्साची राखण मेळटा. विम्याचो एक वर्साचो काळ सोंपचे आदीं विनाअपघात गाडी चलयल्यार मोटार गाडयेच्या धनयांक विना अपघात बोनस (no claim bonus) मेळटा. हो बोनस रोख रुपान दिना आसतना मूळ विम्याच्या हप्त्यांत सूट दितात. ही सूट खाजगी वाहनांक (Private Cars) आनी वेव्हारीक वाहनांक (Commercial Vehicles) दिवपाची टक्केवारी अशी -

| खाजगी वाहनां विना अपघात गाडी चलयल्यार मेळपी बोनस | | वेव्हारीक वाहनां विना अपघात गाडी चलयल्यार मेळपी बोनस | |
|---|---|---|---|
| पयलें वर्स | १५% | पयलें वर्स | १५% |
| दुसरें वर्स | ३०% | दुसरें वर्स | २५% |
| तिसरें वर्स | ४५% | तिसरें वर्स | ३०% |
| चवथें वर्स | ६०% | चवथें वर्स | ४०% |
| | | पांचवें वर्स | ५०% |
| (चडांत चड बोनस - ६०%) | | (चडांत चड बोनस - ५०%) | |

टीप : स्कूटर आनी मोटारसायकली वेव्हारीक वाहनांच्या पंगडांत आस्पावतात.

हेच पद्दतीन भारतीय जीवन बीमा निगम (Life Insurance Corporation of India) आपल्या विमोधारकांक बोनस दिता.

दर एका वर्साच्या ३१ मार्चाक ह्या बोनसाची टक्केवारी जाहीर जाता. ज्यो विमो पॉलिसी बोनसासयत ह्या पंगडांत आस्पावतात तांकांच हो बोनस, पॉलिसी सोंपता तेन्ना मेळटा वा विमोधारकाच्या मरणाउपरांत वा पॉलिसी सुवादीन करून पयशे परत घेतना (Surrender Value) मेळटा. पूण बोनस मेळपाक, ते पॉलिसीचे पुराय हप्ते वेळच्यावेळार भरिल्ले आसपाक जाय आनी तिका पांच वर्सां पुराय जाल्लीं आसूंक जाय.

१९८५ वर्सापयलीं भारतीय जीवन बीमा निगम दोन वर्सांतल्यान एकदां बोनस दितालो. आतां दरेका वर्सा दिता.

बोनसाचें गणित मांडटना, पॉलिसींच्या उरिल्ल्या वर्सांचे हप्ते आनी तांचो आयचो बाजारभाव, तांच्यो रिणाच्यो जापसालदारक्यो तशेंच दरेका वर्सा तांकां आयिल्ल्या हप्त्यांतल्यान एकठांय जाल्ले रकमेच्या (funds reserve) ९५% वांट्याकडेन तुळा करून ही टक्केवारी थरयतात. लायफ इन्श्युरन्स ॲक्ट १९५६ प्रमाण तांणी वयलेप्रमाण वांटिल्ल्या फायद्याक बोनस म्हणप समा न्हय असो कांय विचारवंतांचो तर्क आसा. तशेंच, दर एका वर्सा तांणी बोनस वांटचोच अशेंय तांचेर कायद्यान बंधन ना.

बोनस शॅर वा बोनस समभाग हो प्रकार आमकां कंपनीच्या भांडवलाच्या संदर्भांत मेळटा. जेन्ना खंयचेय कंपनीचें राखून दवरिल्लें भांडवल वा Reserve Funds चड आसतात, तेन्ना हातूंतलो कांय वांटो बोनस शॅर वा बोनस समभाग म्हणून जाहीर करपाची तरतूद कंपनी कायद्यांत आसा.

हे समभाग वांट्टना अदीकच्याराचे पयशे घेना आसतना आपल्या पोरण्या समभागधारकांक १:१ वा १:२ अशा प्रमाणांत वांटपाचे आसतात. अशे तरेन उबारिल्ल्या पयशांतल्यान नवे धनी तयार जायनाशिल्ल्यान कंपनीच्या धनीपणाचेर कांयच परिणाम जायना. पूण कंपनीच्या समभागांचें मोल शॅर मार्केटांत त्या प्रमाणांत देंवता. बोनस रोख्यांचे बाबतींत ताचेर मेळपी व्याजाचो दर पयलींच थरिल्लो आशिल्ल्यान रोख्यांच्या धनयांक हाचो फायदो जाता. बोनस शॅर बाजारांत येतकच कंपनीचें भांडवल वाडटा पूण राखीव भांडवल ह्या कामाक वापरपाक मेळना. तशेंच जी कंपनी नुकसानांत चलत आयल्या तिका बोनस शॅर जाहीर करपाचो अधिकार ना. पूण जर कंपनीकडेन पयलींच्या वर्सांनी जाल्ल्या फायद्याक लागून राखीव भांडवल फावोशें आसा आनी चालू वर्साक तांकां नुकसान जालां अशा वेळार तांकां बोनस समभाग जाहीर करपाचो अधिकार उरता. नव्यान बदलिल्ल्या अर्थीक धोरणांप्रमाण आतां कंपनीन वर्साक एक फावट बोनस जाहीर करपाक जाता.

इस्पिकांच्या खेळांतूय बोनस गूण हो प्रकार येता. फ्लश वा तीन इस्पिकांचो खेळ खेळटना खंयचोय खेळगडी 'ट्रायो' वा 'पॅरल' म्हळयार तीन एके वा तीन राजा, वा तीन राणयो घेवन डाव जिकता तेन्ना ताका सदच्या इनामावांगडाच पयलीं थरयल्लेप्रमाण दरेका गड्यान बोनस म्हणून आपलेवतीन वेगळें इनाम दिवंचें पडटा.

तेचप्रमाण रमी ह्या खेळांत, जर खंयच्याय गड्याक तिनूय जोकर (पल्लू) वा प्रिटेंड जोकर आयले जाल्यार ताका ताचें जैत जावं ना जावं, पयलीं थरयिल्लेप्रमाण बोनस दिवंचो पडटा.

- दिनेश मणेरकार

**बोयें (Buoy) :** सवथळ उदका पोंदच्यो आडखळी वा धोके दाखोवपाखातीर तशेंच दर्यांत तारवांक आंखिल्ली वाट दाखोवपाखातीर वेगवेगळया आकाराच्यो वस्तू उबत दवरतात, ह्या वस्तूंक बोयें म्हण्टात.

बोयांच्या तळाक लोखणाची सरपळी जोडिल्ली आसता आनी ते सरपळेचें दुसरें तोंक दर्याच्या तळाक नांगरिल्लें आसता. बोयीं हीं वेगवेगळया आकाराचीं आनी वेगवेगळया रंगांचीं, वेगवेगळे उद्देश दाखोवपी आसून तांचो प्रकार आनी उद्देश दाखोवपाखातीर वेगवेगळीं चिन्नां आसतात. दर्याच्या उदकाक वेग आसल्यार तारवां बांदून दवरपाखातीर बोयांचो उपेग करतात. रातच्या वेळार हीं बोयीं दिसचीं देखून तांचेर दिवे बसयतात. हे दिवे हेर सामान्य दिव्यांपरस वेगळे दाखोवपाखातीर तांच्या उजवाडाक खाशेलो रंग दिवपी भिंगां बसयतात. कांय बोयांक पेट्टा-पालवता अशा दिव्याची यंत्रणा लायतात. हाका लागून उजवाडाच्या रंगावयल्यानूच बोयांची वळख पट्टा. धुक्याच्या प्रदेशांनी आवाज करपी घांटीचीं बोयीं वापरतात. तशेंच थरावीक काळान दर्यावयल्या वातावरणाचो दाब, वाऱ्याचें आनी उदकाचें तापमान, वाऱ्याचो नेट, ल्हारांची उंचाय आदी विज्ञानीक म्हायती जमनीवयल्या केंद्राचेर खबर करून घेवपा खातीर रेडिओ प्रेक्षक बसयल्लीं बोयीं दर्यांत नांगरतात.

पुराय संवसारभर तारवांची येरादारी आशिल्ल्यान बोयांच्यो सांकेतीक खुणो एकेच तरेच्यो आसच्यो पडटात. पूण भुगोलीक परिस्थिती वेगवेगळी आशिल्ल्यान पार्श्विक आनी दिशादर्शक अशो दोन प्रकारांच्यो संकेत पद्दती वापरपाची पद्दत आसा. पार्श्विक पद्दतींत बोयें तारू वचपाचो मार्ग दाखयता आनी भरतेच्या प्रवाहावांगडा वता आसतना ती बाजू दाखोवपी बोयें ते वटेन दवरून वचपाचें आसता. कांय कडेन बोयांपसून धोक्याची सुवात दाखोवपी दिशादर्शक पद्दत वापरतात आनी बोयांच्या कुरवांवयल्यान आनी रातचें तांच्या दिव्याच्या खंडीत उजवाडाच्या रंगावयल्यान दिका थरयतात. खंयचेंय तारू येरादारी करता आसतना पार्श्विक वा दिशादर्शक पद्दतींतली कसलीय पद्दत आशिल्लो वाठार सोंपतकच दुसरे पद्दतीचो वाठार खंय सुरू जाता हें खाशेले पद्दतीच्या बोयान वा उजवाडान दाखयतात.

दिसाचीं वापरांत येवपी बोयांनी तांबड्या रंगाचें बोयें तारूं बंदरांत येवपी मार्गाची उजवी बाजू दाखयता जाल्यार काळ्या रंगाचें बोयें दावी बाजू दाखयता. काळे आनी धवे उबे पट्टे आशिल्लें बोयें मदलो मार्ग दाखयता. आडवे तांबडे आनी काळे पट्टे आशिल्लें बोयें धोक्याची सुवात दाखयता. धवें बोयें देगेसावन कितल्या अंतराचेर तारवाक सुरक्षीतपणान नांगर घालूंक मेळटा हें दाखयता. हाचेभायर खास सुचोवण्यो दिवपी बोयांत संसर्गजन्य पिडेच्या परिक्षा थळाची सुवात दाखोवपी हळदुव्या




**बोयांचे प्रकार :**
(१) दिवो आनी शिटी आशिल्लें, (२) दिवो आनी घांट आशिल्लें, (३) सोट्याभशेन, (४) सादें दिवो आशिल्लें, (५) सादें शिटी आशिल्लें, (६) सादें घांट आशिल्लें, (७) कोनाच्या आकाराचें, (८) रूंद आनी सपाट माथ्याचें.

रंगाचें बोयें, गुदांवांतलो गाळ उडोवपाची सुवात दाखोवपी बोयें, मुळांत जड काँक्रीट आसून खिळयेक तारूं बांदपाची सुचोवणी दिवपी बोयें, अशा तरेकवार बोयांचो आस्पाव आसा.

उबें सोट्यासारकें आशिल्लें बोयें लांकडी वा धातूच्या पोकळ खांब्याचें आसता. रूंद दंडगोलाकार आशिल्लें बोयें धातूच्या पिंपाभाशेनच्या आनी सपाट माथ्याच्या आयदनाचें केल्लें आसता.

ज्या बोयांचेर दिवे बसयल्ले आसतात ते संपीडित ॲसिटिलीन वा प्रोपेन वाऱ्याचेर वा विद्युत् घटमालेचेर चलतात. हे दिवे दीस-रात सतत चालू आसतात.

कांय खास प्रकारचीं बोयीं वेगवेगळ्या कामांखातीर वापरतात. नौवध बोयें कायम स्वरुपाच्या नांगराच्या गटाक सरपळेक बांदिल्लें आशिल्ल्यान तें नांगर आनी तारूं हांकां जोडपाचें म्हत्वाचें काम करता. अशें बोयें झुजाच्या व्हड्याखातीर वापरतात. कारण बंदरांतल्यान भायर येवपाक वा घाल्लो नांगर ओडून घेवंचेपरस तारूं बेगीन सोडून घेवंक मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**बोर :** (मराठी : बोर; हिन्दी : बेर; कन्नड : एलंजी; संस्कृत : बदर, अजाप्रिय; इंग्लीशः इंडियन जुजुब, कॉमन जुजुब; लॅटीन : झि. मॉरिशियाना).

बोर हो ऱ्हाम्नेसी (Rhamnaceae) कुळांतल्या झिझिफस वंशांतलो रूख. हो रूख १५ मिटरांमेरेन ऊंच वाडटा. झाडाक कांटे आसतात. मार्च-एप्रिल म्हयन्यांनी पानां गळटात आनी नवी पालवी येता. ह्या रुखाचीं पानां सादीं, एका आड एक, आकार लांब-वाटकुळो, पाचव्या कोराची सया आशिल्लीं हळदुवीं फुलां, फळां लांबट गोल ०.५ ते १.५ सेंमी. व्यासाचीं, फळांत भितर एक बी आसता. फळां तरनीं आसतना पाचव्या कोराचीं आसतात. उपरांत पिकतकच हळदुवीं तांबशा कोराचीं जातात.

बोरीची उगम आशिया खंडांत जालो अशें तज्ञांचें मत आसा. येशू खिस्ताच्या जल्माच्या १५०० ते १००० वर्सांपयलींसावन भारतांत बोरीची लागवड करताले. यजुर्वेद, आयुर्वेद ह्या ग्रंथांनीय बोरीचो उल्लेख आसा. शबरीन रामाक उश्टीं बोरां दिलीं असो उल्लेख रामायण ह्या धर्मीक ग्रंथांत आसा.

देशांत सुमार १२,००० हॅक्टर सुवातींत बोरीची लागवड आसा. मध्य प्रदेश, राजस्थान, उत्तर प्रदेश, बिहार, पंजाब, हरियाणा, गुजरात, तमीळनाडू तशेंच महाराष्ट्र ह्या राज्यांनी बोरीची लागवड करतात. भारताभायर ऑस्ट्रेलिया, वॅस्ट इंडीज, अमेरिका आनी आफ्रिकेच्या उश्ण प्रदेशांनी बोरीची लागवड करतात. बोरीची वेपारी तत्त्वाचेर लागवड करपाखातीर गोंयचें हवामान योग्य ना. ताका लागून गोंयांत व्हड प्रमाणांत लागवड केल्ली दिश्टी पडना. पोरसांत, शेतां-भाटांनी, बांदांचेर बोरीचीं झाडां लायिल्लीं दिसतात. रानांनी जंगली बोरीचीं झाडां पळोवंक मेळटात.

भारतांत मेळपी बोरांचे सामान्यपणान दोन गट मानतात. १) चीनी बोर आनी २) भारतीय बोर. चीनी बोराचें शास्त्रीय नांव 'झिझिफस जुजुबा' आसून भारतीय बोरांतल्या सामान्य बोरांक 'झिझिफस मॉरिशियाना' आनी चणी बोरांक 'झिझिफस नुम्मुलॅरिया' अशीं नांवां आसात.

बोरांच्यो खुबशो जाती विकसीत केल्यात. देशांत सुमार १२५ जातींचो वापर करतात. तातूंतल्यो कांय म्हत्वाच्यो आसात, त्यो अशो-

उमराण, मेहरून, कडाका, चौहारा, इलायची, सुनुर १-६, बनारसी, ज्ञानबेर, दंडन, गोला, जोगीया, काला गोला, चोंचल, कैथली, सांधुरा, नारनौल आनी सेब. हातूंतल्यो उमराण आनी मेहरून ह्यो जाती खूब लोकप्रिय आसात.

बोरीक दलदलीची जमीन सोडल्यार हेर कसलेय प्रकारची जमीन चलता. तशेंच उदकाचो निचरो बरो आसपाक जाय. उश्ण आनी सुक्या हवामानांत बोरीची लागवड बरी जाता. हवेंत चड आर्द्रता आसल्यार बोरींक फलधारणा सारकी जायना.

बोरीची लागवड बियांपसून करपाक जाता. पूण चड आनी बेगीन उत्पन्न मेळपाखातीर कलमांपसून लागवड करतात. लागवड करपाखातीर ६X६ मिटर अंतराचेर ६०X ६०X६० सेंमी. लांब, रूंद आनी खोल अशीं नेमां मारतात. दरेका नेमांत अर्द किलो सुपरफॉस्फेट, १०० ग्रॅम बी. एच्. सी, हरवो पालो, शेणखत जांव कंपोस्ट घालतात. नेमांत सामकें मदीं कलम वा रोंप लायतात आनी ताका आदार दितात.

बोर पावसाच्या उदकाचेर जगपाक शकता. पूण चड उत्पन्नाखातीर, उदक दिवंचें पडटा. पावस सोंपनाफुडें झाडाच्या मुळांत तण वा पालो पातळायतात. हाका लागून मुळाकडेन थंडसाण उरता. बोरीक सेंद्रीय तशेंच रसायनीक साऱ्याचो वापर करतात. एक वर्स पिरायेच्या झाडाक १०० ग्राम नत्र, १०० ग्राम स्फुरद आनी १०० ग्राम पलाश तशेंच १० किलो शेणखत वा कंपोस्ट दितात. हे प्रमाण वर्सान वर्स थोडें थोडें झाड वाडयतात आनी पांच वर्सां आनी ताचेपरस चड पिरायेच्या झाडाक वर्साक ५०० ग्राम नत्र, २५०ग्राम स्फुरद आनी २५०ग्राम पलाश तशेंच ३० किलो कंपोस्ट वा शेणखताचो वापर करतात. चड उत्पन्नाखातीर झाडाची वेळच्या वेळार छाटणी करतात.

कलमी बोर दुसऱ्या वर्सासावन उत्पन्न दिवपाक सुरवात करता. ८-१० वर्सांच्या एका झाडापसून वर्साक ५०-६० किलो बोरां मेळटात. जुलय-ऑगस्ट म्हयन्यांनी झाडाक फुलां येतात; तेउपरांत ३-५ म्हयन्यांनी फळां तयार जातात. नोव्हेंबर ते फेब्रुवारीमेरेन तोडणेचो हंगाम चालू आसता.

बोरीचीं फळां (बोरां) खावपाखातीर वापरतात. फळांत 'क' जीवनसत्व खूब प्रमाणांत आसता. तशींच 'अ' आनी 'ब' हीं जीवनसत्वांय आसतात. बोरां खाल्यार रक्तशुध्दी जाता तेचप्रमाण पचनक्रिया सुदारता. पिकिल्ल्या बोरांपसून कॅण्डी, चटणी, जॅली, स्कॉश अशे विंगड विंगड पदार्थ करतात.

बोरीचो पालो गोरवांक तशेंच बोकडांक खावड म्हणून वापरतात. लाखेचे किडे पोसपाक लेगीत बोरीच्या झाडाचो वापर करतात. अतिसार तशेंच मोडशी ह्या दुयेंसांचेर बोरीचे सालीचो काडो करून दितात. बोरीच्या झाडाचें लांकूड घट्ट आशिल्ल्यान ताचो वापर शेतकी आवतां बैलगाडयेचीं चक्रां, आर्माचीं हॅण्डलां, खेळणीं, खाटी, पेन्सील हेसारक्यो वस्तू करपाक वापरतात.

बोरीच्या झाडाचेर भुरी, पानावयले थिपके, फळां कुसप हेसारके रोग जातात. हातूंतल्या भुरी ह्या रोगापासून खूब नुकसान जाता. ह्या रोगाची लागण जाल्यार पानांचेर धवे थिपके पडटात. उपरांत हे थिपके व्हड जावन एकामेकांनी भरसतात आनी पुराय पान धवें जाता. ह्या रोगाची लागण जाल्यार काराथेन ०.१टक्के वा ०.२टक्के सल्फाक्स ह्या वखदांचो फवारो मारतात. पानांवयले थिपके ह्या रोगाआड ०.२ टक्के डायथेन झॅड -७८ जाल्यार फळां कुसप ह्या रोगाआड ब्लायटॉक्स ०.२ टक्के ह्या वखदांची फवारणी करतात.

बोरीक फळमूस आनी साल पोखरपी कीड ह्या दोन किडींपसून बरोच त्रास जाता. फळमूस फळ पोखरता आनी फळांतलो गर खाता. हे किडीची लागण जाल्यार १०मिली. मेटासिस्टाक्स २५ ई. सी. हें वखद १० लिटर उदकांत घालून फवारो मारतात. साल पोखरपी कीड झाडाची साल पोखरता आनी खाता. हे किडी आड १०मिली. मोनोक्रोटोफॉस-३५ हें वखद १० लिटर उदकांत घालून ताचो झाडाचेर फवारो मारतात. तेभायर गुंगुल्ले, शेवणीं हांचेपसून बोरीक थोडो भोव त्रास जाता.

-विश्राम गांवकार

## बोर, ऑगे नील्स : (जल्म : १९ जून १९२२, कोपेनहागेन).

डॅनिश भौतिकशास्त्रज्ञ. ताचो जल्म जालो त्याच वर्सा ताचो बापूय नील्स बोर हाका नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. ताचें शिक्षण कोपनहागेन विद्यापिठांत जालें. थंय ताणें एम. एस्सी. (१९४६) आनी डॉक्टरेट (१९५४) ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. लंडनांतल्या विज्ञानीक आनी उद्देगीक संशोधन खात्यांत ताणें सहयोगी म्हणून १९४३-४५ त काम केलें. तेच वांगडा ताणें लॉस ॲलॅमॉसच्या अणुबाँब प्रकल्पाचे विज्ञानीक प्रयोगशाळेंत बापायवांगडा १९४४-४५त संशोधन सहाय्यक म्हणून काम केलें. १९४६ त डॅन्मार्कांत परततकच कोपेनहागेन इन्स्टिट्युट ऑफ थिऑरेटिकल फिझिक्स हे संस्थेंत संशोधन सहाय्यक म्हणून गेलो. हे संस्थेचो तो १९६२-७० ह्या काळांत संचालक आशिल्लो. १९५६ त कोपेनहागेन हांगाच्या विद्यापिठांत भौतिकीच्या प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली. कोपेनहागेन नॉर्डिक इन्स्टिट्युट फॉर थिऑरेटिकल ॲटोमिक फिझिक्स (नॉर्डिटा) हे संस्थेचो संचालक म्हणून १९७५ सावन तो काम करीत आसा.

अणुकेंद्राच्या प्रतिमानांत सुदारणा करपाखातीर ताणें कवच प्रतिमानाकडे न जुळपी आविश्कारांचो अभ्यास सुरू केलो. विशम द्रव्यमानकाच्या अणुकेंद्रांच्या चतुर्ध्रुवी परिबलाच्या संदर्भांत विशम न्युक्लिऑनाक लागून अणुकेंद्राचो गाभो विकृत जाता. ह्या रेनवॉटर हाच्या मूळ ग्रहिताचेर आदारिल्लें अणुकेंद्राचें प्रतिमान बोर आनी मॉटेलसन हांणी १९५२ त मांडलें. न्युक्लिऑनांचे संकलीत क्रियेक लागून अणुकेंद्राचें

पृश्ठ द्रवबिंदूच्या पृश्ठासारकें वागता, हें ह्या प्रतिमानांतलें गृहीत तत्त्व आसा. उपरांत मॉटेलसन आनी हेर वांगड्यांच्या पालवान ताणें ह्या प्रतिमानाचो विकास आनी व्यापकीकरण केलें.

१९५५ त ताणें ह्या प्रतिमानाची संकल्पना भंजनक्षम आनी अतिविरुपीत अणुकेंद्राक लायली. निमाणें १९६० त अणुकेंद्राचें तपशीलवार अशें एकीकृत वा संकलीत प्रतिमान ह्या संशोधनांतल्यान तयार जालें. अणुकेंद्राच्या भंजनाविशींच्या सिध्दांतांतलो हो म्हत्वाचो टप्पो आसून अणुकेंद्रांतली बंधन ऊर्जा आनी भंजन हांचेविशींची सध्याची म्हायती ह्या प्रतिमानावरवीं मेळ्ळया. ह्या प्रतिमानांत कवच प्रतिमानाचीं खाशेलपणां आसातूच, खेरीज द्रव बिंदूच्या आनी अणुकेंद्रांच्या पृश्ठांत समरुपता आशिल्ल्याचें गृहीत धरिल्ल्यान तातूंत द्रवबिंदू तापमानाचीं खाशेलपणांय आसात. द्रवबिंदू आनी कवच प्रतीमानांतलीं खाशेलपणां हातूंत एकठांय आयिल्ल्यान हाका एकीकृत प्रतिमान अशें नांव दिलां. ह्या प्रतीमानावयल्यान बोर आनी मॉटेलसन हाणीं कांडिल्ले निश्कर्श प्रयोगीक पुराव्याकडेन बरे तरेन जुळटात, अशें दिसलां. बोर हाणें अतीसंवाहकता आनी मूलकण हांचेविशींय संशोधन केलां.

अणुकेंद्राची रचणूक स्पश्ट करपाखातीर केल्ल्या मुळाव्या वावराखातीर ताका बेन आर. मॉटेलसन आनी लिओ जेम्स रेनवॉटर हांचे वांगडा १९७५ वर्साचो भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. हाचेभायर ताका आनिकूय कितलेशेच पुरस्कार फावो जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## बोरकार, दिलीप : (जल्म : ९ जानेवारी १९५६, आगशी-गोंय).

कोंकणी लेखक. १९८० वर्सा ताणें आपलें बी. ए. मेरेनचें शिक्षण पुराय केलें. उपरांत ताणें हिंदी विशय घेवन एम. ए. ची पदवी मेळयली. तशेंच १९९० वर्सा ताणें परत हिंदी आनी कोंकणी विशय घेवन एम.ए. ची पदवी मेळयली. कांय काळ कॉलेजींत कोंकणी विशय शिकोवपाचें ताणें काम केलां.



ताणें बरयल्लें साहित्य अशें आसा- **नाटक** : वर्गशत्रु, भरतेभार, आंटिची गादी, मजाच मजा, आयज आमचें राज्य आयलें (रस्तानाट्य), कॅन्सर (एकांकिका); **नभोनाट्य** : एका ताळ्याचें तलक, उजवाडाचो दूत, एक शुन्य प्रवास; **भुरग्यांच्यो कथा** : दर्या सुंदरी, अशांत सुशांत, मस्त्या गुंडूची नस्ती भोंवडी; **निबंध** : रूक्ष प्रस्न, सखी; **कादंबरी** : पवित्र करार (अणकार), बबलुची पत्रे (पत्र रुपांतली मराठी कादंबरी); **भोंवडेवर्णन**: गोमांचल ते हिमाचल.

ताका मेळिल्ले पुरस्कार अशे आसात- कला अकादमी- 'भरतेभार' १९८२, गोमांचल ते हिमाचल (१९८५), आकाशवाणी पुरस्कार - एका ताळ्याचें तलक - (१९८७), उजवाडाचो दूत (१९८७), एक शुन्य प्रवास (१९९२), कोंकणी भाशा मंडळ (१९९१), साहित्य अकादमी पुरस्कार- गोमांचल ते हिमाचल (१९९५).

विद्यार्थी आसतनासावन ते आतांमेरेन गोंयच्या राजकीय समाजीक तशेंच युवा चळवळींनी ताणें सक्रीय वांटो घेतिल्लो. कोंकणी भास आनी कोंकणी साहित्य उपक्रमांनी ताचो सक्रीय वांटो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## बोरकार, बाळकृष्ण भगवंत (बाकीबाब) : (जल्म : ३० नोव्हेंबर १९१०, कुडचडें; मरण : ८ जुलय १९८४, पुणें).

नामनेचो कोंकणी आनी मराठी कवी. ताणें कादंबरी आनी लघुनिबंद बरयल्ले आसले तरी कोंकणी तशेंच मराठी साहित्यांत तो कवी म्हणूनच प्रसिध्द आसा. ताणें सुटकेझुजांत वांटो घेतिल्लो. ताचें शिक्षण धारवाडाक मराठी तिसरी मेरेन आनी इंग्लीश मॅट्रिके मेरेन (इस्कोल नॉर्मल-१९२८) जालें ताणें पुर्तुगेज टिचर्स ट्रेनिंग कॉलेजीची पदविका घेतिल्ली (१९३६). १९२९ ते १९४६ ह्या काळांत ताणें गोंयांतल्या थळाव्या तशेंच सरकारी हायस्कुलांनी शिकोवपाचें काम केलें. ९ मे १९३० वर्सा ताचें लग्न जालें. कोंकणी समाजांत आनी साहित्यांत ताका बाकीबाब ह्या नांवान लोक चड वळखतात.



नोकरेच्या निमतान तो मुंबय गेलो आनी थंय 'विविधवृत्त' ह्या सप्तकी अंकाचे कचेरेंत ताणें तीन म्हयने काम केलें. १९३० वर्सा बाकीबाबाचें 'प्रतिभा' हें पुस्तक उजवाडाक आयलें.

१९४६ वर्सा ताणें गोंयाभायर रावन गोंयच्या स्वतंत्रतायेच्या लढ्यांत वांटो घेतलो. १९४६ ते १९५५ मेरेन मराठींतलें 'आमचा गोमंतक' आनी कोंकणींतलें 'प्रजेचो आवाज' ह्या दोन नेमाळ्यांचो तो संपादक आशिल्लो. १९५५ वर्सासावन गोंय स्वतंत्र जायमेरेन पुणें आकाशवाणी

केंद्राचेर आनी उपरांत १९७० वर्सा निवृत्त जायमेरेन पणजी आकाशवाणीचेर ताणें निर्मातो म्हणून काम केलें.

बाकीबाबाची मराठी बरपावळ अशी- **काव्यांझेले** : जीवन संगीत (१९३७), दूधसागर (१९४७), आनंद भैरवी (१९५०), चित्रवीणा (१९६०), गीतार (१९६६), चैत्रपुनव (१९७०), कांचनसंध्या (१९८१), ह्याच वर्सा कालिदासाचो 'मेघदूता' चो ताणें केल्लो मराठी अणकार उजवाडा आयलो. **कथांझेले** : प्रियदर्शनी (१९६०), समुद्रकाठची रात्र (१९८१). **कादंबऱ्यो** : मावळता चंद्र (१९३८), अंधारातील वाट (१९४३), भावीण (१९५०). भावीण हे कादंबरीचो पांच भाशांनी अणकार जाला. 'कागदी होड्या' (१९३८) हो लघुनिबंदांझेलो, चांदण्याचे कवडसे (१९८१) हो ललितनिबंदांझेलो, 'आनंदयात्री रवींद्रनाथ' (१९६३) हें टागोराचें चरित्र, हाचेभायर स्टिफन त्स्वायगचे जळते रहस्य (१९४५) हे कादंबरीचो आनी काचेची किमया (१९४५) हे कथेचो अणकार. बापूजींची ओझरती दर्शने (१९५०), आम्ही पाहिलेले गांधीजी (१९५०), माझी जीवनयात्रा (१९६०), गीता-प्रवचने (१९५८), ईशावास्योपनिषद हीं ताचीं अणकारींत पुस्तकां आसात.

बाकीबाबाची कोंकणी बरपावळ अशी : **कवितां झेले** : पांयजणां (१९६०), सासाय (१९८०), कष्ठमणी. **अणकार** : गीता प्रवचन (विनोबा भावे) (१९५६), गीताय (१९६०), वासवदत्त, एक प्रणयनाट्य (१९७३), पैगंबर (१९७३), संशयकल्लोळ (१९७५), भगवान बुध्द, कोंकणी काव्यसंग्रह (१९८१).

मुंबय जाल्ल्या कोंकणी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद (१९५०), गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्ष पद(१९५६), सोलापूराक जाल्ल्या मराठी कवी संमेलनाचें अध्यक्षपद (१९५८), प्रवासी वंग साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद (१९६०), अलाहाबाद हांगा जाल्ल्या साहित्यकार संसदेचें अध्यक्षपद (१९६३), श्रीलंकेक गेल्ल्या भारतीय साहित्यीक शिश्टमंडळाचें सदस्यत्व (१९६३), पणजेच्या मिनेझीश ब्रागांझ इन्स्टिट्युटाचें अध्यक्षपद (१९६४), अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें अध्यक्षपद (१९६७), महाराष्ट्र साहित्य परिशदेच्या महाबळेश्वरच्या विभागीय साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद (१९७०), णववे कोंकणी परिशदेचो अध्यक्ष (१९७०) अशीं मानादीक पदां ताका मेळ्ळयांत.

१९३४ वर्सा बडोद्याक जाल्ल्या कवीसंमेलनांत बाकीबाबाक 'तेथे कर माझे जुळती' हे कवितेक भांगरा पदक फावो जालें. 'भावीण' हे कादंबरेक गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचें (१९५०) भांगरापदक फावो जालें. आनंद भैरवी, चित्रवीणा, गीतार, आनंदयात्री रवींद्रनाथ ह्या पुस्तकांक महाराष्ट्र शासनाचीं इनामां मेळ्ळयांत. 'सासाय' ह्या ताच्या कोंकणी काव्यझेल्याक १९८१ वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळा. १९६७ वर्सा राश्ट्रपतीन 'पद्मश्री' हो किताब दिवन बाकीबाबाचो भोवमान केलो. स्वातंत्र्यझुजांत केल्ल्या वावराक लागून भारत सरकारान ताचो ताम्रपट दिवन भोवमान केलो (१९७४).

- कों. वि. सं. मं.

## बोरकार, मनोहर तानीबाय :

(जल्म : १६ डिसेंबर १९३६, मुंबय; मरण : ५ मार्च १९८४).

सुटके झुजारी ताणें मॅट्रीक मेरेन शिक्षण घेतलें. सुटके चळवळीच्या काळांत तो पत्रकां वांटप, बसका आयोजीत करप, लोकांमदीं राजकीय जागृताय हाडप असलीं कामां करतालो. १९५४ त बाणस्तारी एका पुर्तुगेज सैनिकाचो खून केल्ल्या आरोपाखाल ताका माशेलांत धरलो. उपरांत प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो केलो आनी ताका आठ म्हयने बंदखणीची ख्यास्त दिली. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## बोरकार, लक्ष्मीदास कृष्ण :

(जल्म : १७ ऑगस्ट १९२५, मडगांव; मरणः ४ डिसेंबर १९९९, मुंबय).

गोंयचो सुटकेझुजारी आनी पत्रकार. बापायचें नांव कृष्णा दत्ताराम बोरकार. सात वर्सांमेरेनचें ताणें लिसेवाचें शिक्षण घेतलें. १९४६ त तो गोवा कॉंग्रेस कमिटीचे कार्यकारी समितीचो वांगडी जालो. १८ जून १९४६ दिसा डॉ. राममनोहर लोहिया हाणें गोंयां येवन सुटकेखातीर आंदोलन सुरू केल्लें. हातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. उपरांत डॉ. लोहिया हाणें मडगांवां घडोवन हाडिल्ले सभेंत वांटो घेतिल्लो. अशा वेळार हेरांवांगडा ताकाय धरून बंदखणींत दवरलो. गोंयकारांक नागरी अधिकार आनी उलोवपाचें स्वातंत्र्य मेळचें म्हणून ताणें ७ नोव्हेंबर १९४६ दिसा रॉक सिकैर हाच्या पालवान शिरोड्यां सत्याग्रह केलो. जेन्ना ताणें आपलो मोर्चा बोरयेवटेन घुंवडायलो तेन्ना ताका अटक जावन, मोर्च्याचेर गोंयांत पयले फावट फारपेट जाली. १६ नोव्हेंबर १९४६ दिसा ताची सुटका जाली. ८ डिसेंबर १९४६ दिसा परत एकदां ताणें आनंद नायक हाच्या आदारान सत्याग्रह घडोवन हाडलो. ह्याय वेळार ताका बंदखणीची ख्यास्त जाली. तो सविनय कायदेभंग चळवळ (Civil disobedience) हिचो परत परत प्रचार करतालो देखून ताका पांच खेपे बंदखणीची ख्यास्त जाली. १९४७ त तो बेळगांवसावन आयल्या उपरांत 'गोंय नॅशनल कॉंग्रेसीचो' सचीव जालो. जानेवारी १९४८ त गोवा नॅशनल कॉंग्रेसीचो प्रतिनिधी ह्या नात्यान ताणें गांधीजीकडेन गोंयचे सुटकेविशीं उलोवप केलें. १९५० त गोवा नॅशनल कॉंग्रेसीचो भांडारी म्हणून ताची वेंचणूक जाली. तशेंच द हेगां हांगाच्या 'इंटरनॅशनल कोर्ट ऑफ जस्टीस'

प्रतिनिधित्त्वाचेर निशाणी करपा खातीर गोंयकारांचो प्रतिनिधी म्हणून लक्ष्मीदास हाची निवड केल्ली. ताणें आपले बरपावळींतल्यान गोंयचे सुटके चळवळीक नेट हाडपाचो यत्न केल्लो. हाका लागून ताका बंदखणीची ख्यास्त जाल्ली. पुर्तुगेज सरकारान गोंयची रेल्वे येरादारी स्थगीत केल्ली म्हणून १८ मे १९५५ दिसा ताणें नाथ पै हाच्या फुडारपणाखाला कॅसलरॉकाक सत्याग्रह घडोवन हाडिल्लो. 'प्रजा समाजवादी पक्ष' आनी 'सेवा दल' हांचेकडेन ताचे लागींचे संबंद आशिल्ले. १९५८ त तो गोवा नॅशनल काँग्रेसीच्या मुंबय फांट्याचो अध्यक्ष जालो. 'लोकसत्ता' ह्या मराठी दिसाळ्याचो तो मुखेल उपसंपादक आशिल्लो. उपरांत १९७८-१९८३ ह्या काळांत तो 'नवप्रभा' ह्या मराठी दिसाळ्याचो संपादक जालो. हाचे भायर ताणें राष्ट्रमत आनी समाचार ह्या दिसाळ्यां खातिरूय कांय तेंप वावर केला.

- कों. वि. सं. मं.

## बोरकार, वसंत दत्ता : (जल्म : १९३०, फोंडें).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. १५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा ॲन्थनी द सौझ हाच्या फुडारपणाखाल काणकोणच्या पोळें वाठारांत जो सत्याग्रह जाल्लो, तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी पांच वर्सांखातीर बंदखणींत दवरलो. तशेंच एक वर्सभर ताका नदरकैदेंत दवरलो आनी १५ वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८५ ह्या दिसा गोंय सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## बोरकार, हरी पांडुरंग : (जल्म : १९१५, ढवळी-फोंडें; मरण : १९८५).

सुटकेझुजारी. ताणें वैदिक शिक्षण घेतिल्लें. १९५४ सावन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां वांटप, वण्टीपत्रकां लावप, सुटकेझुजाऱ्यांक पुलिसांविशीं म्हायती दिवप असलीं कामां तो करतालो. सालाझाराक तेंको दिवपी कुस्तोदियु फेर्नांदीश हाच्या खुनाच्या दुबावान ऑगस्ट १९५५ त पोलिसांनी ताका धरलो. फुडें प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार ताची चवकशी जावन ताका बंदखणींत घाल्लो. पूण फावो तो पुरावो मेळूंक नाशिल्ल्यान ताका २८ डिसेंबर १९५६ दिसा सोडलो. १८ जून १९८४ दिसा गोंय सरकारान सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराखातीर ताचो भोवमान केला. वैदिक शास्त्री म्हण ताका व्हड नामना मेळ्ळी.

- कों. वि. सं. मं.

## बोर, नील्स हेन्रिक डेव्हिड : (जल्म : ७ ऑक्टोबर १८८५, कोपेनहागेन; मरण : १८ नोव्हेंबर १९६२, कोपेनहागेन).

डॅनिश भौतिकशास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण कोपेनहागेन विद्यपिठांत जालें आनी थंय ताणें भौतीकशास्त्र विशयांत एम्. एस्सी. (१९०९) आनी डॉक्टरेट (१९११) ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. तेउपरांत ताणें जे. जे. थॉमसन हाच्या मार्गदर्शना सकयल काँब्रिजांतले कॅव्हॅंडिश प्रयोगशाळेंत ताणें शिक्षण घेतलें. फुडें एक वर्स ताणें मँचेस्टर विद्यपिठांत शिकोवपाचें काम केलें आनी तेचपरी थंय अर्नेस्ट रदरफोर्ड हाचे वांगडा आणवीय संरचनेचेर संशोधन केलें. १९१३-१४त ताणें कोपेनहागेन विद्यापिठांत आनी १९१४-१६ त मँचेस्टरांतल्या विक्टोरिया विद्यापिठांत अध्यापक म्हणून काम केलें. १९१६त कोपेनहागेन विद्यापिठांत सैध्दांतिक भौतिकीच्या प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली. ताच्या कार्याच्या प्रभावाक लागून ह्या विद्यापिठांत ताचेखातीर 'इन्स्टिट्यूट ऑफ थिऑरेटिकल फिजिक्स' ही संस्था स्थापन केली आनी १९२० सावन अखेरमेरेन ताणें हे संस्थेचो संचालक म्हणून काम पळेलें.

दुसऱ्या म्हाझुजांत नाझींनी डॅन्मार्क घेतकच बोर डॅन्मार्क सोडून स्विडनाक गेलो. झुजाचीं निमाणचीं दोन वर्सां इंग्लंडातं आनी अमेरिकेंत राबितो केलो. अमेरिकेंत ताणें अणुबाँब निर्मितीच्या प्रकल्पांत अणुबाँबाच्या क्रियाप्रवर्तनाचे मुळावे अवस्थेविशीं मोलादीक कार्य केलें. विद्यार्थी आसतना पृश्ठताणाविशीं ताणें केल्ल्या सैध्दांतिक आनी प्रायोगिक संशोधनाखातीर ताका कोपेनहागेन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचें भांगरापदक मेळ्ळें. डॉक्टरेटखातीर ताणें 'धातूंचो इलेक्ट्रॉन सिध्दांत' ह्या विशयाचेर प्रबंध सादर केल्लो.

मँचेस्टरांत ताणें आल्फा किरणांच्या शोशणाविशीं पयलीं संशोधन केलें आनी उपरांत रदरफोर्ड हाच्या अणुकेंद्राच्या सोदावरवीं आणवीय संरचनेच्या अभ्यासाक सुरवात जाली. त्या काळांत सैध्दांतिक भौतिकशास्त्रातं मुखेल सुवातीमेरेन पाविल्ल्या माक्स प्लांक हाच्या पुंज सिध्दांतांतल्या संकल्पनांचो उपेग करून बोर हाणें आणवीय रचणुकेंचें प्रतीमान १९१३ त येशस्वीपणान मांडलें. ह्या प्रतीमानाक 'बोर अणू' अशें म्हण्टात. बोर हाणें अणुकेंद्रा भोंवतणच्या 'थीर' स्थितींतल्या इलेक्ट्रॉनांचे गतीच्या विवरणाखातीर रूढ यामिकीचो उपेग गृहीत धरिल्लो. पूण हांतूतले एके स्थितींतल्यान दुसरे स्थितींत जावपी संक्रमणाचें वर्णन करपाखातीर पुंज सिध्दांताची गरज आशिल्ली. हे खेरीज रूढ, विद्युत्, गतिकीच्या आदारान प्रारणाच्या उत्सर्जनाचें स्पश्टीकरण दिवप शक्य नाशिल्लें. एके थीर स्थितींतल्यान दुसरे थीर स्थितींत जावपी संक्रमणां आनी गतीचे वेगवेगळे हरात्मक घटक हांचेभितर एक तरेचें व्यापक सारकेंपण आसा, अशें बोर हाका जाणवलें.

हें सारकेंपण अशा स्वरुपाचें आसा- ताणें मांडिल्लो वर्णपटाविशींचो सिध्दांत हो रूढ प्रारण सिध्दांतांचें व्यापकीकरण आसा, अशें ताका

दिसलें. हे विचारप्रणालीच्या आदारान ताणें फावो त्या नीच कंप्रतांचे विशीं पुंज सिध्दांताच्या नेमांचें रूढ विद्युत् गतिकीच्या नेमांकडेन अभिसारण आनी एकरूपण आशिल्लें, हें म्हत्वाचें सारकेंपणाचें तत्त्व १९१८ त मांडलें. पुंजयामिकीचीं गृहितां निर्धारीत करपाखातीर बोर हाच्या ह्या तत्त्वाचो व्यापक प्रमाणाचेर उपेग जालो. अशे तरेन बोर हाणें बाल्मर रित्झ आनी रिडबर्ग हांच्या कार्याचेर आदारीत आशिल्लें वर्णपटाविशींचें अणभवी गिन्यान, रूढ विद्युत् गतिकी, रदरफोर्ड हाचें आणवीय प्रतीमान आनी प्लांक हाचो उश्णताय प्रारणाचो पुंज सिध्दांत ह्या प्रारण आनी आणवीय रचणूक हेविशींच्या वेगवेगळया चार सिध्दांतांचो मेळ घालो.

बोर हाणें १९३० उपरांत अणुकेंद्राचें संघटन आनी ताचें द्रव्यांतरण आनी विघटन हे विशींचें संशोधन केलें. १९३९ त ताणें अणुकेंद्रीय आविश्कारांच्या द्रवबिंदू प्रतीमानाच्या सिध्दांताची बुन्याद घाली. युरेनियमाचे भंजनक्रियेच्या संदर्भांत अस्थीर अणुकेंद्र आनी भंग पावपी जलबिंदू हांचेमदली अनुरुपता ताणें दाखोवन दिली.

पुंज भौतिकींतल्या वेगवेगळया अडचणींचो खुलासो करपा नदरेन ताणें मोलादीक कार्य केलें. १९२८ त ताणें विकसीत केल्ली पूरकतेची संकल्पना म्हत्वाची थरल्या. हाचेवयल्यान भौतिकीच्या अभ्यास क्षेत्रांतल्या बदलांचो आपले विज्ञानीक नदरेच्या मुळाव्या आंगांचेर कसो परिणाम जाला हें ताणें दाखोवन दिलें.

आणवीय रचणूक आनी प्रारण हाचेविशींच्या मोलादीक मुळाव्या सिध्दांतीक वावराखातीर ताका १९२२ वर्साचो भौतीकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. बोर हाणें पुंज सिध्दांताचो उपेग करून अणूंतल्या इलेक्ट्रॉनांची मांडावळ आनी तांची गती हांचें स्पश्टीकरण दिवपी पयलो सुसंगत सिध्दांत विकसीत केलो. ह्या सिध्दांतावरवीं ताणें हायड्रोजनाची आणवीय रचणूक आनी ताचो वर्णपट हांचो परिमाणात्मक खुलासो दिलो. हो सिध्दांत आर्विल्ल्या आणवीय भौतीकशास्त्राची बुन्याद थरलो.

१९३३-६२ ह्या काळांत ताणें बरयल्ले कितलेशेच संशोधनात्मक निबंद एकठांय करून इंग्लीश भाशेंत Atomic Physics and Human Knowledge ह्या माथाळयासकयल दोन खंडांनी (१९५८ आनी १९६३) उजवाडाक आयले. ताचीं कांय नामनेचीं इंग्लीश पुस्तकां अशीं : The Theory of Spectra and Atomic Constitution(१९२२), Atomic Theory and the Description of Nature (१९३४) आनी 'The Unity of Knowledge (१९५५).

जिविताच्या निमाणच्या काळांत ताणें आणवीय भौतिकीचे शांततामय उपेग आनी अण्वस्त्राचे उदरगतींतल्यान उपरासपी राजकीय समस्या हांचेर आपलें लक्ष केंद्रीत केलें. अणुऊर्जा आनी अण्वस्त्रां हांच्या आंतरराश्ट्रीय नियंत्रणाचो तो पुरस्कर्तो आशिल्लो. ताका आनीक कितलेशेच भोवमान फावो जाले.

- कों. वि. सं. मं.

**बोर्न, माक्स :** (जल्म : ११ डिसेंबर १८८२, ब्रॅस्लौ; मरण : ५ जानेवारी १९७७, गटिंगेन).

नामनेचो जर्मन भौतिकशास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण ब्रॅस्लौ हायडलबर्ग, झुरिक आनी गटिंगेन ह्या विद्यापिठांनी जालें. ताणें क्लायन, हिलबर्ट आनी मिंकोव्हस्की ह्या नामनेच्या गणितज्ञांच्या मार्गदर्शना सकयल गणिताचो अभ्यास केलो. १९०७ त ताणें डॉक्टरेट मेळयली. उपरांत कांय म्हयने कँब्रिजांत शिकतकच १९०८-०९ त ब्रॅस्लौक ताणें संशोधन आनी सापेक्षताय सिध्दांताचो अभ्यास केलो. १९१५ त बर्लिन विद्यापिठांत माक्स प्लांक हाका मदत करपाखातीर प्राध्यापक म्हणून बोर्न हाची नेमणूक जाली. पूण म्हाझुजाक लागून ताका जर्मन लश्करांत वचचें पडलें. झुजाउपरांत १९१९ त फ्रॅंकफुर्ट विद्यापिठांत तो प्राध्यापक जालो. १९२१-३३ ह्या काळांत ताणें गटिंगेन विद्यापिठांत प्राध्यापक म्हणून काम केलें. १९३३त क्रॅंब्रिजाक तीन वर्सां स्टोक्स अध्यापक म्हणून ताणें काम केलें. १९३५-३६त सर चं. व्यं. रमण हाचेवांगडा ताणें बेंगळूरांतल्या इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्स संस्थेंत स म्हयने संशोधन केलें. १९३६त एडिंबरो विद्यापिठांत भौतिकशास्त्राचो टेट प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली आनी थंयच १९५३ त सेवानिवृत्त जायमेरेन ताणें काम केलें.

बोर्न हाणें १९१२त टी. फोन कार्मान हाच्या पालवान संशोधन करून घन पदार्थाचे खाशेले उश्णतायेच्या चलनाच्या संपूर्ण कथेचें सैध्दांतिक स्पश्टीकरण दिलें. पूण हेविशींचें संशोधन पीटर डेबाय हाणें बोर्ना आदींच केल्लें. गटिंगेनाक प्राध्यापक जातकच ताणें हायझेनबेर्क हाचे वांगडा संशोधन करून नील्स बोर आनी आर्नोल्ट झोमरफोल्ड हांचो आणवीय पुंज सिध्दांत हिलीयम अणूच्या रेशीय वर्णपटाक लागू पडना, अशें दाखयलें. हाचेखातीर ताणें हायझेनबेर्क आनी पी. योर्दान हांच्या पालवान कणांचे गतीची पुंजयामिकी विकसीत केली. ह्या सिध्दांताच्या आदारान आणवीय वर्णपट वळींच्यो सुवाती आनी तांची खरसाण हांचे आनी हेर आविश्कारांचें पुराय परिणामात्मक स्पश्टीकरण मेळयलें. बोर्न हाणें श्रोडिंजर हाची पद्दत खंयच्याय आणवीय लक्ष्यान पातळायिल्ल्या कण शलाकेची खरसाण आनी तिचें कोनीय वितरण निर्धारित करपाखातीर कशी वापरूं येता, हें दाखयलें. पाउली, हायझेनबेर्क, श्रोडिंजर हांणी केल्ले वेगवेगळे यत्न एकठांय करून बोर्न हाणें पुंजयामिकीची बुन्याद घाली.

श्रोडिंजर हाच्या समीकरणाची ताणें विस्तारान फोडणिशी केली. जे. आर. ओपेनहायमर हाचे वांगडा ताणें विकसीत केल्ली रेणूंची पुंजयामिकी खासा उल्लेख करपासारकी आसा. पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत लश्करी नोकरेंत आसतना ताणें स्फटिकांचो अभ्यास करून Dynamik der Kristallgitter (१९१५) हो ग्रंथ बरयलो. १९३३त ताणें प्रकाशकीचेर एक पाठ्यपुस्तक बरयलें तें खूब गाजलें. कँब्रिजाक ताणें

Atomic Physics (१९३५) आनी The Restless Universe (१९३६) हे ग्रंथ बरयले. Natural Philisophy of Cause and Chance (१९४९) ह्या ग्रंथांत ताणें मनीस संस्कृतायेंत विज्ञानाची भुमिका हेविशीं विचार मांडल्यात. ताचे वेंचीक निबंद १९६३ त ॲकॅडेमी ऑफ गटिंगेन हे संस्थेन उजवाडायले.

पुंजयामिकींतल्या मुळाव्या संशोधनाखातीर खास करून तातूंतल्या तरंग फलनांच्या सांख्यिकीय स्पश्टीकरणाखातीर ताका वॉल्टर बोटे हाचे वांगडा १९५४ वर्साचो भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. ताका आनिकूय हेर कितलेशेच भोवमान आनी पदकां फावो जाल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

## बोर्से, उग्रसेन महारू : (जल्म : १९२९ साकोरें, नंदगांव, नासिक)

सुटकेझुजारी. १९४२-१९४८ ह्या काळांत तो इंडियन नॅशनल कॉंग्रेस समितीचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो भारतीय कम्युनिस्ट पार्टीचो वांगडी जालो. ताणें राश्ट्र सेवा दला खातीरूय वावर केला. १८ जुलय १९५५ ह्या दिसा कॉम. नांदेडकार हाच्या फुडारपणाखाल जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो, मार घालो आनी सोडून दिलो. १९८८ त महाराष्ट्र सरकारान सन्मान पत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## बोर्से, कारभारी माधवराव : (जल्म : ११ मार्च १९२८ उगांव-खेड, नासिक).

सुटकेझुजारी. ताणें १९४१ वर्सासावन तो 'इंडियन नॅशनल कॉंग्रेस' समितीचो वांगडी आशिल्लो. १९४८ त तो भारतीय कम्युनिस्ट पार्टीचो वांगडी जालो. तशेंच राश्ट्र सेवा दला खातीर वावर करूंक लागलो. १८ जुलय १९५५ ह्या दिसा कॉम. नांदेडकार हाच्या फुडारपणाखाल ताणें गोंयच्या सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो, बंदखणींत घालो आनी उपरांत रोखडोच सोडलो. १९८८ त महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## बोर्से, माणिकराव शिवराम : (जल्म : १९३२ साकोरें, नंदगांव, नासिका).

सुटकेझुजारी. १९४८त तो भारतीय कम्युनिस्ट पार्टीचो वांगडी जाल्लो. गोंय विमोचन सहाय्यक समितीन गोंय सुटकेच्या वावराखातीर उलो मारिल्ल्यान १५ जुलय १९५५ ह्या दिसा कॉम. नांदेडकर हाच्या फुडारपणाखाल गोंयचे शिमेर जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९६५-७० ह्या काळाखातीर साकोरें ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हणून वेंचून आयिल्लो. १९८८ त महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## बोलिव्हिया : दक्षिण अमेरिका खंडांतलो एक प्रजासत्ताक देश.

दक्षिण अमेरिकेचो सुटकेझुजारी सायमन बोलिव्हार हाच्या उगडासाखातीर म्हणून ह्या देशाक बोलिव्हिया हें नांव दवरलें. अक्षवृत्तीय विस्तार ९°३४'५०' ते २३°१३' दक्षिण आनी रेखावृत्तीय विस्तार ५७°२९'४०' ते ६९°३३'३६' अस्तंत. क्षेत्रफळ १०,९८,५८० चौ.किमी. देशाची उत्तर-दक्षिण लांबाय १,५२९ किमी. आनी उदेंत-अस्तंत रुंदाय १,४४८किमी. लोकसंख्या ७७,००,०००. देशाचे अस्तंतेक चिली आनी पेरू, ईशान्येक ब्राझील, आग्नेयेक पाराग्वाय जाल्यार दक्षिणेक आर्जेंटिना हे देश आसात. सगळ्या वटांनी, हेर देशांनी रेवडायल्ल्यान, दक्षिण अमेरिका खंडांतल्या बोलिव्हिया ह्या एकाच देशाक दर्यादेग ना. सुक्रे ही देशाची वैधानीक आनी न्यायीक जाल्यार ला पाझ ही वेपारी आनी राजकीय राजधानी आसा.

**भूंयवर्णन** : भूंयरचणुकेचे नदरेन बोलिव्हियाचे सैमीक तीन वांटे केल्यात. १) आल्तप्लानो (सड्याचो प्रदेश), २) यूंग्गास दोंगराळ प्रदेश आनी, ३) ट्रॉपिकल लोलॅंड (मळांचो प्रदेश). आल्तीप्लानो हो सड्याचो प्रदेश देशाचे अस्तंतेक आसून ह्या प्रदेशाची दर्याथळासावन उंचाय सु. ३,८१० मीटर इतली आसा. देशाचे अस्तंत शिमेवयलो कॉर्डिलेश ऑक्सीदॅंताल आनी उदेंतेकडेन आशिल्ल्या अँडीज पर्वतांच्या कांय रांकांचो ह्या प्रदेशांत आस्पाव जाता. ह्या प्रदेशांत आशिल्ली तितीकाका, पिओपो आनी कॉयपसा हीं संवसारांतली सगळ्यांत उंचेलीं अशीं तळीं. ईयांपू, तोकोर्पुरी, इयीमानी, पोटोसी, कोलोलो हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं तेंमकां. सहामा हें देशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. यूंग्गास प्रदेशांत चड ऊंच अशा अँडीज दोंगरांवळींचो आस्पाव जाता. ह्या प्रदेशांतल्या कॉर्डिलेरा रेआल दोंगरावळीच्या उताराचेर खोल देगणां आसात. ट्रॉपिकल लोलॅंड वा ओरियॅन्त उणे उंचायेचो प्रदेश. दर्याथळासावन ह्या प्रदेशाची उंचाय ३० ते ४५७ मी. इतलीच आसा. देशाची सुमार ७०टक्के भूंय ह्या प्रदेशान रेवडायल्या.

बेनी, मामोरे, ग्वपुरे, माद्र द द्योस ह्यो देशाच्या उत्तर भागांत मेळपी ॲमेझॉन न्हंयांप्रणालींतल्यो मुखेल न्हंयो. देशाच्या आग्नेय प्रदेशांत ल्हान-व्हड अशीं साबार तळीं आसून, तातूंतल्यान साबार न्हंयांचो उगम जाता. अस्तंतेक तितिकाका तळयासावन कांय न्हंयो निर्माण जाल्यात.

**हवामान :** देशाचें हवामान मुखेलपणान उश्ण कटिबंधीय प्रकारचें आसा. देशाची भूंयरचणूक वयर-सकयल आशिल्ल्यान देशाच्या वेगवेगळ्या भागांतल्या तापमानांत खूब फरक जाणवता. आल्तप्लानो हो प्रदेश चड ऊंच आशिल्ल्यान थंयचें हवामान शितळ उरता. ह्या भांगात गिमाच्या दिसांनी पावस पडटा जाल्यार शिंयाळयांत केन्नाकेन्नाय हीमवृश्टी जाता. रेआल दोंगरांवळीच्या भागांत ध्रुवीय प्रकारचें हवामान मेळटा. ह्या. भागांत डिसेंबर ते फेब्रुवारी ह्या तेंपार पावस पडटा. हांगा वर्सुकी पावसाचें प्रमाण ३८ ते ७० सेंमी. इतलें आसता. यूंगास प्रदेशांतल्या चड उंचायेच्या भागांत आर्द्र प्रकारचें हवामान मेळटा. ह्या भागांत वर्सूयभर पावस पडत आसता. उदेंतेकडेन आशिल्ल्या सपाट प्रदेशांत विषुववृत्तीय उश्ण आनी बाष्परुपी हवामान आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** देशाच्या हवामानाचे आनी भुंयेचे वेगवेगळे प्रकार आशिल्ल्यान हांगा वेगवेगळ्या हवामानांनी वाडपी विंगड विंगड वनस्पत आनी मोनजात दिश्टी पडटा. आल्तप्लानो भागांत 'ईचू' नांवाचें तण मेळटा. हें तण गोरवांखातीर, खोंपी बांदपाखातीर वा शेंदऱ्यो विणपाखातीर वापरतात. तितिकाळा तळ्या भोंवतणच्या वाठारांनी 'तोतोरा' नांवाची वनस्पत वाडटा. तिचो उपेग बलसास हीं ल्हान नुस्तेमारी व्हडीं तयार करपाखातीर करतात. यूंगास प्रदेशांतल्या चड उंचायेच्या भागांत दाट रानां आसात. ह्या रानांनी मुखेलपणान पाचवो पायन, काळो अक्रोड, अलीसो, लॉरेल, सीडार, तार्को, साउको आनी सिंकोना ही रुखावळ मेळटा. उत्तरेकडच्या सपाट प्रदेशांत उश्ण कटबंधीय प्रकारचीं दाट रानां आसात. ह्या रानांनी घट्ट लांकडाचे सुमार दोन हजारांवयर वनस्पती प्रकार मेळटात. हांगा मेळपी रबर, ब्राझील नट, माहोगनी, ताडवृक्ष ही अर्थीक नदरेन म्हत्वाची अशी रुखावळ. क्वेब्राचो, पालोसांतो, मिस्टॉल, कॅरोब ही चाको प्रदेशांत मेळपी मुखेल वनस्पत.

आल्तप्लानो भागांत मुखेलपणान लामा आनी अल्पाका ही मोनजात मेळटा. तांचो उपेग येरादारीखातीर, लोकर आनी खावपाखातीर करतात. ॲमेझॉनच्या देगणांनी प्युमा, जॅगुआर, सोंसो, माकोड, कोआटी, टॅपीर, आर्माडिलो, स्लॉथ, पेकारी, कॅपिबारा थिपक्यांचें वांस्वेल ही मोनजात जाल्यार, चाको वाठारांत हरणां सांपडटात. आनाकोंडा आनी बूशमास्टर हे व्हड सोरोप हांगा सांपडटात. हांगा सुकण्यांचे खूब प्रकार आसून, पोपट, गरूड, गीद, बदक, हंस, मॅको हीं हांगाच्या चडशा वाठारांनी भोव प्रमाणांत दिश्टी पडपी सुकणीं. पाराकीट, टॉकन्स आनी टॉराकोस हीं चड ऊंच उडपी सुकणींय हांगाच्या रानांनी पळोवपाक मेळटात.

**इतिहास :** बोलिव्हियाच्या कांय वाठारांनी सांपडिल्ल्या पुरातत्त्वीय अवशेशांवयल्यान क्रिस्तापयलींच्या काळांत आनी इ. सनाच्या पयल्या स शेंकड्यांमदीं हांगा तीआवानाको संस्कृताय नंदताली अशें कळटा. सव्या शेंकड्याउपरांत हांगा थळाव्या इंडियन जमातींचीं ल्हान ल्हान राज्यां उदयाक आयलीं. मुखार इकरावो शेंकडो ते पंदराव्या शेंकड्यामेरेन हेर लॅटीन अमेरिका प्रदेशावांगडा बोलिव्हियाचेरूय आयमारा जमातीन आपलो शेक गाजयलो. पंदराव्या शेंकड्यांत इंका जमातीच्या लोकांनी आयमारांची सत्ता नश्ट केली.

सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन लॅटीन अमेरिकेंत युरोपी लोकांच्यो धुरयो येवपाक सुरवात जाल्ली. १५३२त स्पेनी वसणूककारांनी इंका साम्राज्य मोडून उडयल्लें. पूण उपरांत तांकां ह्या प्रदेशांतल्या इंडियन टोळयांनी खूब विरोध केलो. १५३८ त हो विरोध पुरायपणान मोडून उडयलेउपरांत बोलिव्हियांत स्पेनी वसणुकेचो काळ सुरू जालो. १५४५त पोटोसी हांगा रुप्याचे खणीचो सोद लागिल्ल्यान बोलिव्हियांत स्पेनी वसणूककारांची संख्या नेटान वाडपाक लागली. खणकामाखातीर ते इंडियन लोकांक कामाक दवरूंक लागले. ह्याच वावराक लागून आफ्रिकेसावन खाप्री गुलामांचीय व्हडा प्रमाणांत आयात जावपाक लागली. वसणूककारांकडच्यान इंडियन लोकांची खूब सतवणूक जाताली. हाका लागून इंडियन लोकांनी स्पेनिशांआड साबार खेपे उठाव केल्ले. ह्या साबार उठावांतल्यानूच उपरांत एकुणिसाव्या शेंकड्यांत हांगा स्वातंत्र्य चळवळ सुरू जाली. १८०९ ते १८२५ मेरेन सुटकेझुजारी आनी स्पेनिश आक्रमक हांचेमदीं झगडीं जायत रावलीं. कोलंबियाचो सुटकेझुजारी सायमन बोलिव्हार आनी जनरल आंतोनियो होसे द सुक्रे हांचो हे सुटके चळवळींत म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. सुरवेक बोलिव्हारान काराकास, आराउर व्हिक्टोरिया, मारेओ, कॅरॉबाबी, बॉइआका ह्या सुवातांचेर स्पेनिश सैन्याचेर हार घालून ७ ऑगस्ट १८१९त स्वतंत्र कोलंबिया प्रजासत्ताकाची घोशणा केली. उपरांत सुक्रे हाच्या फुडारपणासकयल मुक्तिसैनिकांनी पेरूंत आयाकूंचो शारांत स्पेनिश सैन्याचेर हार घाली. उपरांत ९ डिसेंबर १८२४ दिसा व्हेनेझुएला आनी बोलिव्हिया हे देश मुक्त जाले. ६ ऑगस्ट १८२५ दिसा ला प्लाताक जाल्ले सुटके झुजाऱ्यांचे परिशदेंत पेरूचो आग्नेय वांटो व्हेनेझुएलाक जोडून बोलिव्हारच्या उगडासाखातीर ताका बोलिव्हिया हें नांव दवरलें. ह्या नव्या प्रजासत्ताकाखातीर बोलिव्हार हाणें रचिल्लें संविधान मान्य करून, जनरल सुक्रे हाची बोलिव्हियाचो पयलो राश्ट्राध्यक्ष म्हणून नेमणूक जाली. पूण बोलिव्हार आनी सुक्रे हांचेमदीं वाद जावन १८२८ त सुक्रे हाणें आपल्या पदाचो राजिनामो दिलो. उपरांत लश्करी अधिकारी, मार्शल आंद्रेस सांताक्रूझ हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. आंद्रेस हाणें बोलिव्हिया आनी पेरू हांचें संघराज्य स्थापीत करून हांगाची अर्थीक स्थिती सुदारपाचो यत्न केलो. अशा बळिश्ट राश्ट्रापसून फुडाराक आपल्याक धोको आसा, हें जाणून चिली देशान बोलिव्हियाचेर धुरी घालून जैन जोडलें हाचे उपरांत सुमार पन्नास वर्सांमेरेन हांगा अशांती, भ्रश्टाचार आनी बंड चालूच आशिलें. ह्या काळांत होसे बायीव्हान, मानुएल बेल्सू, होसे लिन्यारीश, होसे आका, माऱ्यानो मेल्गारेहो, ईलाऱ्यॉन दासा हे लश्करी अधिकारी बोलिव्हियाचे राश्ट्राध्यक्ष जाले. मुखार, पयल्या म्हाझुजांत बोलिव्हिया तटस्थ रावलो, पूण दुसऱ्या

म्हाझुजांत ह्या देशान दोस्त राश्ट्रांक आदार केल्लो. पयलें आनी दुसरें म्हाझूज आनी उपरांतची अर्थीक मंदी हांकां लागून देशाची अर्थीक स्थिती साप इबाडिल्ली.

क्रांती घडोवन हाडप हो बोलिव्हियन लोकांचो राश्ट्रीय खेळ, अशें कांय इतिहासकारांनी म्हळां. १८२५ त बोलिव्हिया स्वतंत्र जायतसावन ते १९८० मेरेन हांगा सुमार १८० वयर उठाव जाले. राज्यकारभाराचीं सुत्रां हातांत दवरपाखातीर संविधानात्मक सरकार आनी लश्करी अधिकाऱ्यांभितर सर्त लागिल्ली. पूण १९५२त जाल्लो उठाव हो बोलिव्हियाच्या इतिहासांतलो म्हत्वाचो उठाव. बोलिव्हियाक स्वातंत्र्य मेळ्ळेउपरांत लेगीत देशाची चडशी संपत्ती गोऱ्या लोकांच्या हातांत एकवटीत जाल्ली. राजकीय लश्करी आनी शिक्षणीक मळांरूय गोरे आनी इंडियन हांचेमदीं भेदभाव आशिल्ले. हाका लागून १९५२त एम्. एन्. आर. पक्षाच्या फुडारपणाखाला खण कामगार आनी शेतकामत्यांनी एकठांय येवन क्रांतिकारक उठाव केलो. ह्या उठावाक लागून व्हीक्टॉर पास एस्तेंसोरा हो बोलिव्हियाचो राश्ट्राध्यक्ष जालो. देशाची अर्थीक आनी समाजीक सुदारणा घडोवन हाडप हो ह्या उठावाचो मुखेल हेत आशिल्लो. तशेंच कथील उद्देगधंद्याचें राश्ट्रीयीकरण करप, कामगार आनी शेतकामत्यांचें जिवीतमान सुदारप, शेतकी जमनीच्या कायद्यांत सुदारणा करून कसता ताची जमीन ह्या धोरणाचेर शेतकी जमनीची परत वांटणी करप, राजकीय, लश्करी आनी शिक्षणीक क्षेत्रांनी सगळयांक समान संद दिवप ही ह्या उठावाची मुखेल मोख आशिल्ली. एम्. एन्. आर. हो पक्ष सत्तेर आयल्या उपरांत तांणी उठावा वेळार मांडिल्ल्यो सगळ्यो येवजणो वापरांत हाडपाचे यत्न केले. हाका लागून ह्या पक्षाचें व्हडपण वाडत गेलें. उपरांत १९६४ मेरेन देशाची राजकीय सत्ता ह्याच पक्षाकडेन आशिल्ली. १९६४ सावन लश्करी अधिकाऱ्यांची हुकूमशायी राजवट सुरू जाली. पूण तांचेमदीं एकमत नाशिल्ल्यान, राश्ट्राच्या अध्यक्षपदार खंयचोच लश्करी अधिकारी खूब तेंप तिगूंक शकलोना. १९७४ त सैनिकी शासनान सगळ्या राजकीय पक्षांचेर बंदी घाली. पूण १९७८त ही बंदी काडिल्ल्यान हांगा भौशिक वेंचणुको जाल्यो. उपरांत १३ जानेवारी १९८० दिसा काँग्रेसीन राश्ट्राध्यक्षपदाच्यो तशेंच भौशिक वेंचणुको त्याच वेळार घेवपाचें थरोवन लिडिया ग्वेइर हिका हंगामी राश्ट्राध्यक्षा केली. बोलिव्हिया देशाची राश्ट्राध्यक्ष जावपी ती पयली बायल आशिल्ली. पूण १७ जुलय १९८० दिसा मेजर जनरल लुईस गार्सिया मेझा तेहादा हाणें उठाव करून सत्ता आपल्या हातांत घेतली. नव्या सैनिकी शासनान राजकीय पक्षांच्या आनी कामगार संघटनांच्या मुखेल्यांक बंदखणींत घालून विद्यापिठांतल्या शिक्षक आनी न्यायदंडाधिकाऱ्यांक कामावयल्यान काडून उडयले.

**राज्यवेवस्था :** ६ ऑगस्ट १८२५ दिसा हो देश स्वतंत्र जावन ह्या नव्या प्रजासत्ताकाखातीर बोलिव्हार हाणें तयार केल्लें संविधान १९ नोव्हेंबर १८२६ ह्या दिसासावन वापरांत आयलें. देशांतल्या मुखेल राजकीय पक्षांभितर दावे आनी उजवे पक्ष, अशे वांटे केल्ले आसात. राश्ट्राध्यक्ष हो राश्ट्रप्रमुख आनी शासनप्रमूख आसून ताका आनी उपराश्ट्राध्यक्ष हाका चार वर्सांखातीर भौशिक मतदान पद्दतीन वेंचून काडटात. आपलें मंत्रीमंडळ, राजदूत, रोम कॅथलीक आर्चबिशप हांची नेमणूक राश्ट्राध्यक्षूच करता. विधानमंडळ दोन सदनी आसून, तें वरिश्ठ घर (Senate) आनी कनिश्ट घर (Chamber of deputies) अशें विभागिल्लें आसा. वरिश्ठ घरांत २७ वांगडी जाल्यार कनिश्ठ घरांत ११७ वांगडी आसतात. राज्यकारभाराक सुटसुटीतपण येवंचें म्हणून देश ९ विभागांनी आनी ९८ प्रांतांनी विभागला.

सुक्रे शारांत सर्वोच्च न्यायालय आसा. तातूंत काँग्रेसीन नेमिल्ले आनी १० वर्सांची मुदत आशिल्ले १२ वांगडी आसतात. तीन तीन न्यायाधिशांच्या चार विभागांनी सर्वोच्च न्यायालय विभागिल्लें आसा. हातूंतले दोन विभाग दिवाणी खटले एक विभाग फौजदारी खटले आनी उरिल्ले विभाग प्रशासकीय, भौशिक आनी खणउद्देगाकडेन संबंदीत खटल्यांचे निर्णय दिता. दर एका विभागांत जिल्हो न्यायालय आसून तांचे देखरेखीखाला स्थानीक न्यायालयां आसात.

**अर्थीक स्थिती :** बोलिव्हियाचो आस्पाव गरीब देशांभितर जाता. बोलिव्हिया हो सैमीक संपत्तीन भरिल्लो देश. पूण देशाच्या उण्या भांडवलाक लागून हे संपत्तीचो उपेग साप उण्या प्रमाणांत जाता. हाका लागून देशाचे उद्देगधंदे फाटसारिल्लेच आसात. उदेंतेक आशिल्ली लॉ लँड भूंय पिकाळ आसा. पूण ही भूंय लागवडीखाला हाडपाक सद्या बोलिव्हिया सरकारांची तांक नाशिल्ल्यान, शेतकी उत्पादनाखातीर साप उण्या प्रमाणांत जमनीचो उपेग जाता. तशेंच हांगाची शेतकी जमीन ल्हान ल्हान वांट्यांनी विभागिल्ल्यान आनी परंपरीक पद्दतीन पिकां काडिल्ल्यान देशाची वट्ट शेतकी येणावळ गरजेपरस खूब उणी आसा. आल्तपानो वाठारांत बटाट, बार्ली, घेवडो, गंव हीं पिकां बरीं येतात. यूंगास देगणांनी मुखेलपणान कोका वनस्पतीची लागवड करतात. कॉफी, केळीं, काकाओ, यूका हांचींय पिकां ह्या देगणांत बरीं येतात. देशांतली सुमार १०% जमीन गोरवांक चरोवंक वापरतात. पूण लॅटीन अमेरिकेंतल्या हेर देशांपरस बोलिव्हियाची पशुधनासावन मेळपी येणावळ उणी आसा. रानांतले घट्ट रुखावळीपसून मेळपी येणावळ व्हड आसा.

वसणुकेच्या काळासावन खणउद्देग हो देशाचे अर्थवेवस्थेचो फाटीकणो जावन रावला. भांगर, तांबें, लोखण, शिंशें, जस्त हीं खनिजां अल्प प्रमाणांत सांपडटात. पूण कथील उत्पादनांत बोलिव्हियाचो संवसारांत पयलो आंकडो लागता. म्हाल निर्यात जावन मेळपी येणावळींत कथिलाचो सुमार ५०% वांटो आसता. सांताक्रूझ आनी कामीरी वाठारांनी खनीज तेल आनी सैमीक वायूचे सांठे आसात. कथिल, खनीज तेल, रुपें, टंगस्टन, तांबें, अँटिमनी, जस्त हांची निर्यात जाता, जाल्यार रसायनां,

उद्देगीक यंत्रसामग्री, येरादारीचीं उपकरणां, वखदां, लुगट आनी अन्नधान्याची आयात जाता. व्हड शारांनी खरेदी-विक्रीचीं केंद्रां आसात. गांवगिन्या वाठारांनी सप्तकी बाजारांतल्यान वा जात्रा-उत्सवांतल्यान वस्तूंचें दिवप-घेवप जाता. १९११ त स्थापणूक जाल्ले बांकु सँत्राल द बोलिव्हिया हे मध्यवर्ती बँकेचें १९३९त राश्ट्रियीकरण जालें. 'पेसो बोलिव्हिआनो' हें देशाचें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारण :** देशाची चडशी भूंय दोंगरी प्रकारची आशिल्ल्यान येरादारीच्या मळार व्हडलिशी सुदारणा जावंक ना. म्हामार्गूय फाटसारिल्लेच स्थितींत आसात. दोंगरी भुंयेक लागून म्हामार्गांचेर साबार मोडणां आनी घाट आसात. हाका लागून सादारण लोकांक एके सुवातेसावन दुसरेकडेन वचपाक खूब त्रास जातात. १९६४ त 'बोलिव्हियन नॅशनल रेल्वे' संस्थेची स्थापणूक केली. एल् आल्तो (ला पास) आनी विरू विरू (सांता क्रूज) हे हांगाचे आंतरराश्ट्रीय विमानतळ. लॉयड आयरिओ बोलिव्हिआनो ही संस्था राश्ट्रीय हवाई येरादारीचेर देखरेख दवरता. इस्टर्न ॲरवेस, लुफ्तान्सा ह्यो आंतरराश्ट्रीय विमान येरादारी कंपन्यो आसात.

टपाल सेवा खूब फुडारिल्ली आसून, टपाल कचेऱ्यांनी तेलेग्राम आनी दूरध्वनीची वेवस्था आसा. देशांत शासननियंत्रीत दूरचित्रवाणी यंत्रणा आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** १९९१ चे जनगणने प्रमाण बोलिव्हियाची लोकसंख्या ७७,००,००० इतली आशिल्ली. देशाच्या विस्ताराच्या मानान हांगाची लोकसंख्या खूब उणी आसा. बोलिव्हिया हो दक्षिण अमेरिकेंतलो साप्प पातळ लोकवसती आशिल्लो देश. भूंय रचणुकेप्रमाण लोकसंख्येची दाटाय थरल्या. देशाची चडशी लोकसंख्या आल्तप्लानोचे उत्तरेक एकवटीत जाल्ली आसा. उदेंतेकडेन आशिल्ल्या लॉ लँड भागांत लोकवसती साप्प पातळ आसा. मिनाच्यो खणी आशिल्ल्या वाठारांनी, शिंपणावळीची वेवस्था आशिल्ल्या देगणांमदीं आनी मुखेल शारांनी लोकांची दाटाय चड आसा. इंडियन, मिस्तीस (कोलो) आनी गोरे लोक अशी समाजाची वांटणी केल्ली आसा. बोलिव्हियन समाजांतले पन्नास टक्क्यांपरस चड लोक इंडियन जमातीचे आसात. थळाव्या इंडियनांभितर दोंगरी वाठारांनी आयमारा, न्हंयादेगांनी वा देगणांमदीं रावपी केचुआ आनी उदेंतेकडच्या लॉ लँड प्रदेशांत मेळपी गौरानीस ह्यो तीन म्हत्वाच्यो जमाती. इंडियन हे गरीब, फाटसारिल्ले आनी अशिक्षीत लोक. ते मुखेलपणान शेतकामांत वा खणकामांत वावुरतात. हांगाच्या उंचेल्या प्रदेशांनी रावपी इंडियन आनी सवथळ प्रदेशांनी रावपी इंडियन लोकांभितर खूब वेगळेपण आसा. आल्तप्लानो हांगाचे आरामारा भास उलोवपी इंडियन लोक कर्मठ स्वभावाचे आनी उणें उलोवपी जाल्यार, केचुआ भास उलोवपी इंडियन चारचौगांमदीं रमपी आनी मायेस्त. मिस्तीस हो इंडियन आनी स्पेनीश हांची भरसण जावन तयार जाल्लो नवो वंश. स्पेनिश वसणूककारांनी आफ्रिकेसावन गुलाम म्हणून हाडिल्ले खाप्री चड करून यूंगास प्रदेशांत रावतात. स्पेनी कुळाचे गोरे लोक हांगा साप्प उण्या प्रमाणांत आसात. ते आनी मिस्तीस मेळून सरकार, शासन आनी वेवसाय चलयतात. धर्माचे नदरेंतल्यान ९०% परस चड रोमन कॅथलीक आनी उरिल्ले हेर धर्मांचे आसात. वंशीक नदरेंतल्यान इंडियन लोकांचें प्रमाण सुमार ६३%, मिस्तीस हांचें ३२% जाल्यार गोऱ्या लोकांचें प्रमाण फकत ५% इतलें आसा. गोरे आनी मिस्तीस लोक स्पेनिश भास जाल्यार इंडियन लोक आयामारा आनी केचुआ भाशेंतल्यान वेव्हार करतात. राश्ट्रीय साक्षरतेचें प्रमाण ७८% आसा. सगळया लोकांक मुळावें शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसा. बोलिव्हियन साहित्य हें मुखेलपणान स्पेनिश भाशेंत आसा. सद्या अस्तित्वांत आशिल्ली बोलिव्हियन उच्च कला ही थळावी परंपरा आनी युरोपी कला हांची भरसण जावन निर्माण जाल्ली आसा. चित्रकला, साहित्य, संगीत आनी हेर क्षेत्रांनीय थळावे आनी युरोपीय कलेचो प्रभाव दिश्टी पडटा.

ला पाझ, सुक्रे, ऑरुरो, उयूनी, टुपीझा, कोचाव्हांबा, तारीझा हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं शारां. तितिकाका, पोओपो आनी कॉइपसा हीं जगप्रसिध्द तळीं बोलिव्हियांत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**बोलेरो :** स्पेनांतलो एक नामनेचो नाचाचो प्रकार. हो नाच एकल्यान, दादले-बायलांचे जोडयेन वा खूब जाण मेळून एकवटीतपणान करतात. हो नाच नेटान आनी तालाचेर करतात. ह्या नाचाक चिपळयांभाशेन आसपी कॅस्टानेट वा गिटार ह्या वाद्याची आनी गायनाची साथ आसता.

इ. स. १७८० च्या अदमासाक, झेबास्टिआन थेरेथो ह्या दरबारी बॅले नर्तकान स्पेनांतल्या अँडलुझीया प्रांतांतल्या एका लोकांनाचांत थोडे बदल करून बोलेरो हो नाच प्रचारांत हाडलो. ह्या नाचांतल्यो ऊंच उडक्यो मारप तशेंच हवेंत वयर-सकयल पांय फाफडप ह्या खाशेल्या हालचालींतल्यान बॅले नाचाचो प्रभाव जाणवता. देंवते लयीचो सोबीत पदन्यास, तालाची वांटणी ३:४, नेटाचो आनी बदलपी थेको हीं बोलेरो नाचाचीं खाशेलपणां आसात. बोलेरो नर्तक आपले भाव प्रउक्तावपाखातीर हाताच्या हालचालींचो चड वापर करतात.

क्युबांतले बोलेरो-सॉन आनी डोमिनिकन बोलेरो हे संथ प्रदेशीक नाचाचे प्रकार आसात. आर्विल्ल्या बोलेरो नाचाचें 'पोलोनेझ' ह्या नाचाकडेन बरेंच साम्य आसा. राव्हेलची बोलेरो ही वाद्यवृंदरचना (१९२८) हें बोलेरो नृत्यसंगिताचें नामनेचें उदाहरण जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**बोल्शेव्हिक :** रशियांतल्या सोशल डॅमॉक्रॅटिक वर्कर्स पार्टीचे दोन गट बोल्शेव्हिक आनी मेन्शेव्हिक ह्या नांवांनी प्रसिध्द आसात. बोल्शेव्हिक म्हळयार भोवमतांतलो गट आनी मेन्शेव्हिक म्हळयार अल्पमतांतलो गट. लॅनिन हो बोल्शेव्हिक गटाचो फुडारी आशिल्लो. १९१७ वर्साची रशियन राज्यक्रांती घडोवन हाडपाक ह्याच गटाचो मुखेल भाग आशिल्लो आनी फुडें नव्या सरकाराचीं सगळीं सुत्रां ताणेंच आपल्या हातांत घेतलीं. सोशल डॅमॉक्रॅटिक पक्षाची दुसरी काँग्रेस (अधिवेशन) जाली (१९०३). त्या वेळार पक्षांत 'तज्ञ' क्रांतीकारकांकूच वांगडीपद दिवंचे अशी मागणी करपी लॅनिनप्रणीत गटाक मध्यवर्ती समितीचेर भोवमत मेळ्ळें. इस्क्रा ह्या पक्षाच्या वृतपत्राच्या संपादक मंडळावयले चडशे वांगडी ह्याच गटाचे जाले. तेन्ना तांणी स्वताच्या गटाक 'बोल्शेव्हिक' (भोवमतांतलो) आनी विरोधी गटाक 'मेन्शेव्हिक' (अल्पमतांतलो) म्हणपाक सुरवात केली.

रशियांतले १९०५ वर्साचे पयले क्रांतींत ह्या दोनूय गटांचें परस्पर सहकार्य आशिल्लें आनी तो १९१० मेरेन तिगून आशिल्लो. पूण फुडें मतभेद वाडत गेले. बोल्शेव्हिकांक शिस्तबध्द आनी एकमुखी फुडारपण आशिल्लो पक्ष जाय आशिल्लो. तांणी १९०६ त पयल्या रशियन पार्लमॅंटाचेर बहिश्कार घालो आनी सरकारा वांगडा तशेंच हेर पक्षांवांगडा सहकार्य करपाचें न्हयकारलें. खेरीज, पक्षाखातीर निधी एकठांय करपाखातीर ते धनिकांक लुटपाकूय फाटीफुडें पळेनासले. मेन्शेव्हिकांक हें धोरण पसंत नाशिल्लें.

लॅनिनान १९१२ त सोशल डॅमॉक्रॅटीक वर्कर्स पार्टींत फूट घालून बोल्शेव्हिकांचो स्वतंत्र पक्षूच निर्माण केलो. फुडें ह्या पक्षाची लोकप्रियता वाडत गेली. १९१७ वर्साचे क्रांतीउपरांत कामगार समित्यांकडेन (Soviets) सत्ता दिवपाची तांणी मागणी केली. केरेन्स्कीच्या तात्पुरत्या सरकाराचो पाडाव करतकच ह्या पक्षान सरकाराचो ताबो घेतलो. ऑक्टोबर क्रांतीउपरांत (१९१७) हेर कांय राजकीय गटांक बोल्शेव्हिकांक आपले वांगडा सरकारांत सुवात दिल्ली. पूण निमाणें तांणी हेर सगळयो प्रतिस्पर्धी संघटना चेपून उडयल्यो. १९१८ त तांणी आपलें नांव 'रशियन कम्युनिस्ट पक्ष' (बोल्शेव्हिक) अशें बदललें. १९५२ त ह्याच पक्षाक सोव्हिएत युनियनांतलो 'कम्युनिस्ट पक्ष' अशें नांव मेळ्ळें.

- कों. वि. सं. मं.

**बोस, सर जगदीशचंद्र :** (जल्म : ३० नोव्हेंबर १८५८, मैमनसिंग, बांगलादेश; मरण : २३ नोव्हेंबर १९३७, गिरिडी, बिहार).

भारतीय वनस्पती शरीरक्रियाविज्ञानीक आनी भौतिकविज्ञ. कलकत्ता सेंट झेव्हियर कॉलेजींत ताणें आपलें बी. ए. मेरेन शिक्षण पुराय केलें. उपरांत फुडलें शिक्षण घेवंक तो लंडन विद्यापिठांत गेलो. शिश्यवृत्ती मेळिल्ल्यान तो निसर्गविज्ञानाचो अभ्यास करपाक कॅंब्रिज विद्यापिठांत गेलो. थंय लॉर्ड रॅली ह्या नामनेच्या भौतिकीविज्ञाचें मागदर्शन ताका मेळ्ळें. १८८४ त ताणें कॅंब्रिज विद्यापिठाची पदवी मेळयली. १८८५ वर्सा कलकत्त्याच्या प्रेझिडॅन्सी कॉलेजींत भौतिकीच्या प्राध्यापक-पदाचेर ताची नेमणूक जाली. १९१५ त तो सेवानिवृत्त जातकच कलकत्ता विद्यापिठांत गुणश्री प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९१७ वर्सा ताणें कलकत्त्याक 'बोस रिसर्च इन्स्टिट्यूट' ही संशोधन संस्था स्थापन केली. पिरायेचे अखेरमेरेन ताणें थंय संचालक म्हणून काम केलें.



१८९५ त ताणें बऱ्याच ल्हान तरंगलांबी आशिल्ल्या रेडिओ तरंगांच्या उजवाडा सारक्या गूणधर्माविशीं प्रयोग केले, जाचेखातीर ताका खूब नामना मेळ्ळी. विद्युत् ऊर्जा प्रेषणाविशीं ताणें केल्लें कार्य जे. सी. मॅक्सवेल आनी एच. आर. हर्ट्झ हांच्या कार्याचो विस्तार करपी आशिल्लें. ह्या कार्यांतल्यान ताका रेडिओ संदेशवहनाचे शक्यतायेंत आवड निर्माण जाली आनी ताणें तेविशीं कांय प्रयोगूय केले. ह्या यत्नांतल्यान ताणें त्या काळांतल्या रेडिओ तरगांचें अस्तित्व वळखुपाखातीर वापरताले त्या लोहचुर्णयुक्त नळये आकाराच्या उपकरणांत सुदारणा केली. ह्यो सुदारणा घन अवस्था भौतिकीचे उदरगतींत म्हत्वाच्यो थरल्यात.

कांय अजैव पदार्थ तरेकवार उद्दीपनाक दिता आशिल्ल्या प्रतिसादांचें जैव प्रतिसादांकडेन आशिल्लें सारकेंपण बोस हाचे मतींत आयलें. ह्या निरीक्षणा वयल्यान प्राणी आनी वनस्पत हांच्या उतकांच्या वर्तनाची तुळा करपाकडेन ताचें लक्ष गेलें. वनस्पतींच्या वर्तनाचो अभ्यास करपाखातीर ताणें वनस्पतींच्या बारीक हालचालींची नोंद करपी संवेदनशील स्वंयचलीत उपकरण तयार केलें. ह्या उपकरणाच्या आदारान ताणें वेगवेगळया उद्दीपनाखातीर जावपी वनस्पतीच्या सुक्ष्म बदलांविशीं बरीच म्हायती एकठांय केली. वनस्पतीचे वाडीचें एक कोटी पट विवर्धन करूंक शकपी क्रेस्कोग्राफ (Crescograph) हें स्वंयचलीत उपकरण ताणें तयार केलें. ह्या उपकरणाच्या आदारान ताणें वनस्पतीकूय संवेदनाग्रहण क्षमताय आसता, अशें प्रयोगांवरवीं सिध्द करून दाखोवन दिलें.

कॅंब्रिज विद्यापिठान ताका १८९६ त भोवमानाची डी. एस्सी. पदवी दिली आनी रॉयल सोसायटीन ताका १९२० त वांगडीपद दिलें. ब्रिटीश सरकारान १९१७ त ताका 'नायट' हो किताब दिवन ताचो भोवमान केलो. ताणें युरोप आनी अमेरिकेंत भोंवडी करून जायतीं व्याख्यानां दिलीं. ताणें बरयल्ल्या जायत्या ग्रंथांतले हे कांय म्हत्वाचे

ग्रंथ : 'Response in the Living and Non-Living (१९०२); Plant Response as a Means of Physiological Investigation (१९०६); The Motor Mechanism of Plants (१९२८).

ताचे संशोधनपर निबंद 'कलॅक्टेड फिझिकल पेपर्स' ह्या नांवाखाल ताणेंच स्वता संकलीत करून १९२७ त उजवाडाक हाडले. तो कट्टो देशाभिमानी आशिल्लो आनी भारतीयांनी आपले म्हान संस्कृतीक परंपरेंत विज्ञानीक संशोधन करून भर घालची अशी ताची इत्सा आशिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**बोस, निर्मलकुमार :** (जल्म : २२ जानेवारी १९०१, कलकत्ता; मरणः १५ ऑक्टोबर १९७२, कलकत्ता).

भारतीय मानववंशशास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण पटणाक जालें. कलकत्त्याचे प्रेझिडेन्सी कॉलेजींतल्यान ताणें भूविज्ञान ह्या विशयांतली बी. एस्सी. ची पदवी मेळयली (१९२१). ह्याच विशयांत एम. एस्सी. करपाची ताची इत्सा आशिल्ली. पूण महात्मा गांधीचे असहकारितेचे चळवळींत (१९२२) वांटो घेतिल्ल्यान ताका शिक्षण अर्द्यार सोडचें पडलें. फुडें कांय काळ तो जगन्नाथपुरीक रावलो. थंय ताणें ओडिसी वास्तुशिल्पाचो अभ्यास केलो. थंयच ताका बंगालचो नामनेचो विचारवंत आशुतोष मुखर्जी मेळ्ळो. ताचे स्फुर्तीन तो मानववंशशास्त्रावटेन घुंवलो. फुडें कलकत्ता विद्यापिठांतल्यान ताणें मानववंशशास्त्रांतली एम. एस्सी. (१९२५) ही पदवी मेळयली. थंयच कांय काळ मानववंशशास्त्र विभागांत प्रागैतिहासीक पुरातत्त्वविद्या ह्या विशयाचो व्याख्यातो म्हणून ताणें काम पळयलें. उपरांत १९३७ ते १९५९ मेरेन थंयच्या भूगोल विभागांत मानवजातिभूगोल ह्या विशयाचो तो प्रपाठक आशिल्लो. १९५९-१९६४ ह्या काळांत भारत सरकारान भारतीय मानववंशशास्त्रीय सर्वेक्षणाचो संचालक म्हणून ताची नेमणूक केली. कांय काळ ताणें अनुसुचित जाती-जमातींचो आयुक्त म्हणून काम केलें (१९६७-७०). १९५७-५८ त अमेरिकेंतल्या कॅलिफोर्निया, शिकागो आदी विद्यापिठांनी अभ्यागत प्राध्यापक म्हणून व्याख्यानां दिलीं. १९६६ त सिमलाचे भारतीय प्रगत अभ्यास संस्थेंत अभ्यागत प्राध्यापक म्हणून ताणें वर्सभर वावर केला. एशियाटिक सोसायटी आनी वंगीय साहित्य परिशद हे संस्थेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९५३ ते पिरायेचे निमाणेमेरेन (१९७२) तो 'मॅन इन इंडिया' ह्या त्रैमासिकाचो संपादक आशिल्लो.

१९२२ त गांधीजीचे असहकारितेचे १९३०-३२ सविनय कायदेभंगाचे चळवळींत आनी १९४२ तल्या छोडो भारत आंदोलनांत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९३४त तो गांधीजीक पयले खेपे मेळ्ळो. तेन्नाच्यान ताचे आनी गांधीजीचे लागसल्ले संबंद आशिल्ले. उदेंत बंगालांत (बांगला देश) नोआखालींत जाल्ल्यो दंगली आटापा हाडपाखातीर गांधीजीन शांतीयात्रा सुरू केल्ली. तेन्ना तो गांधीजीचो खाजगी चिटणीस म्हणून ताचेवांगडा आशिल्लो (१९४६-१९४७).

ताणें बंगाली तशेंच इंग्लीश ह्या दोनूय भाशांतल्यान संस्कृतीक मानववंशशास्त्र, वास्तुशिल्प, हिंदू समाजरचणूक, आदिवासींच्यो अडचणी, नगर-विस्तार तेचपरी गांधीजीची जीण आनी विचार आदी विशयांचेर जायतें बरप केलां. ताचीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां अशीं आसात. कल्चरल अँथ्रॉपोलॉजी (१९२९); कॅनन्स ऑफ ओरिसन आर्किटॅक्चर (१९३२); स्टडीझ इन गांधीझम (१९४०); हिंदू मॅथड ऑफ ट्रायबल ॲबसॉर्प्शन (१९४१), सिलॅक्शन्स फ्रॉम गांधी (१९४८); द स्ट्रक्चर ऑफ हिंदू सोसायटी (मूळ बंगाली १९४९); माय डेस विथ गांधी (१९५३); मॉडर्न बँगॉल (१९६४); कल्चर अँड सोसायटी इन इंडिया (१९६७); गांधी इन इंडियन पॉलिटिक्स(१९६७); प्रॉब्लेम्स ऑफ इंडियन नॅशनलिझम (१९६९); अँथ्रॉपोलॉजी अँड सम इंडियन प्रॉब्लेम्स (१९७२); नवीन ओ प्राचीन (निबंदांझेलो बंगाली), परिवाजकेर डायरी (भोंवडेवर्णन). ताचे बरपावळींत शास्त्रज्ञाची नदर, गांधीजीची समन्वयाची विधायकताय आनी जिवितावविशींची आत्मियताय हांचो सोबीत मेळ दिश्टी पडटा. भोवजिनसीपण आनी ऊंच-नीच श्रेणी ही भारतीय समाजाचें खाशेलपण जावन रावल्या अशें ताका दिसतालें.

- कों. वि. सं. मं.

**बोस, राजचंद्र :** (जल्म : १९ जून १९०१, होशंगाबाद, मध्य प्रदेश).

भारतीय गणिततज्ञ आनी सांख्यिकीविज्ञ. ताणें १९२५ वर्सा दिल्ली विद्यापिठाची 'शुध्द गणित' हो विशय घेवन एम्. ए. ची पदवी घेतली आनी उपरांत 'अनुप्रयुक्त गणित', हो विशय घेवन कलकत्ता विद्यापिठाची एम्. ए. आनी 'सांख्यिकी' हो विशय घेवन डी. लिट् ही पदवी मेळयली.

१९३० ते १९३४ ह्या काळांत ताणें कलकत्त्याच्या आशुतोष कॉलेजींत गणिताचो प्राध्यापक म्हणून काम केलें. १९३४ ते १९४० मेरेन इंडियन स्टॅटिस्टिकल इन्स्टिट्युटांत सांख्यिकीविज्ञ म्हणून काम करतकच १९३८ ते १९४५ मेरेन ताणें कलकत्ता विद्यापिठांत अध्यापक म्हणून काम केलें. उपरांत १९४५ ते १९४९ मेरेन तो सांख्यिकी विभागाचो मुखेल आशिल्लो. १९४९ ते १९६६ ह्या वर्सांनी अमेरिकेंतल्या नॉर्थ कॅरोलायना विद्यापिठाच्या सांख्यिकी विभागांत प्राध्यापक आनी १९६६ ते १९७१ मेरेन केनान प्राध्यापक म्हणून काम करतकच १९७१ सावन तो कोलोरॅडो राज्य विद्यापिठांत गणिताचो आनी सांख्यिकीचो गुणश्री प्राध्यापक आशिल्लो. १९४७ वर्सा ताणें कोलंबिया विद्यापिठांत अभ्यागत प्राध्यापक म्हणूनूय काम केलें.

प्रयोगांचो अभिकल्प आनी बहुचरात्मक विश्लेशण ह्या विशयांनी ताणें खाशेलें संशोधन कार्य केलां. ताणें, प्रशांतचंद्र महालनोबीस आनी एस्. एन्. रॉय हांचेवांगडा $D^2$ संख्यानकाविशीं, बहुचरात्मक विश्लेशणांत म्हत्वाचें संशोधन केलें. स्विस गणितज्ञ लेनर्ड ऑयलर हाणें ४ट+२ ह्या क्रमाचे दोन परस्पर जात्य (rectangular) लॅटीन चौखण आसप शक्य ना, अशें १७८२ वर्सा अनुमान काडिल्लें. हेर गणितज्ञांनी ह्या अनुमानाचें खंडन करपाचो यत्नूय केल्लो. बोस हाणें श. शं. श्रीखंडे आनी ई. टी. पार्कर हांच्या सांगातान प्रयोगांच्या अभिकल्पांतल्या संतुलीत आनी मातसो संतुलीत अपूर्ण खंड अभिकल्पांच्या संदर्भांत विकसीत केल्ल्या समचयात्मक पद्दतींच्या आदारान १९५९ वर्सा लॅनर्ड ऑयलरच्या अनुमानाचें पुरायपणान खंडन केलें. हें कार्य ताणें संगणकाच्या आदाराबगर केलें हें ताचें खाशेलपण. बोस हाणें संकेतन पद्दती आनी प-मितीय भूमिती ह्या विशंयानीय म्हत्वाचे सिध्दांत मांडल्यात.

इंटरनॅशनल स्टॅटिस्टिकल इन्स्टिट्यूट, इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅथॅमेटिकल स्टॅटिस्टिक्स, नॅशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्स (भारत), अमेरिकन ॲसोसिएशन फॉर ॲड्व्हान्समॅंट ऑफ सायन्स, नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, न्यूयॉर्क ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, अमेरिकन स्टॅटिस्टिकल ॲसोसिएशन, अमेरिकन आनी कॅनेडियन मॅथेमॅटिकल सोसायटी ह्या संस्थांचो तो वांगडी आशिल्लो. १९४७ वर्सा तो भारतीय विज्ञान परिशदेच्या सांख्यिकी विभागाचो अध्यक्ष आशिल्लो. १९७१-७२ वर्सा तो इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅथॅमॅटिकल स्टॅटिस्टिकाचो अध्यक्ष आशिल्लो. १९७४ वर्सा इंडियन स्टॅटिस्टिकल इन्स्टिट्युटान ताका डी. एस्‌सी. ही भोवमानाची पदवी दिली.

- कों. वि. सं. मं.

**बोस, सुभाषचंद्र :** (जल्म : २३ जानेवारी १८९७ कटक, ओडिसा; मरण : १८ ऑगस्ट, १९४५, तैहोकू तायपे (तायवान)).



भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींतलो एक म्हान क्रांतिकारक फुडारी आनी आझाद हिंद सेनेचो सरसेनापती.

ताच्या बापायचें नांव जानकीनाथ आनी आवयचें नांव प्रभावतीदेवी. तांच्या चवदा भुरग्यांतलो सुभाषचंद्र हो णववो. सुभाषचंद्राचें घराणें मूळचें माहिनगरचें (बंगाल), पूण ताचो बापूय वकिली वेवसायाक लागून कटकाक आयलो आनी थंयच स्थायिक जालो.

ल्हानपणासावन सुभाषबाबू खूब हुशार आनी अभ्यासू वृत्तीचो आशिल्लो. पिरायेच्या १६व्या वर्सा तो मॅट्रिकेची परिक्षा पास जातकच १९१३ वर्सा ताणें कलकत्ता हांगाच्या प्रेझिडेन्सी कॉलेजींत प्रवेश घेतलो. पूण सुरवातीपसून ताका ईश्वरी साक्षात्कार, अध्यात्म आनी योग ह्या शास्त्रांची ओड आशिल्ली. ताका लागून ताणें तत्त्वज्ञान हो विशय घेवन अभ्यासाक सुरवात केली. पूण तितल्यान समाधान जायनाशिल्ल्यान एक दीस कोणाक सांगिनासतना गुरूचो सोद घेवपाखातीर तो हिमालयांत गेलो. उपरांत दिल्ली, आग्रा, काशी, गया ह्या तीर्थक्षेत्रांक ताणें भेटी दिल्यो आनी भ्रमनिरास जावन स म्हयन्यांनी तो परत घरा आयलो. घरा येतकच टाइफॉयड जावन दुयेंत पडलो. उपरांत इंटरची परिक्षा पयल्या वर्गांत पास जालो.

कॉलेजांत ओटन नांवाच्या एका ब्रिटीश प्राध्यापकान एकदां भारतीय विद्यार्थ्यांविशीं अपमानकारक उतरां काडिल्ल्यान सुभाषबाबू आनी हेर विद्यार्थ्यांनी ताचेर हल्लो केलो, तेन्ना सुभाषबाबूक कॉलेजींतल्यान काडून उडयलो. उपरांत आशुतोष मुखर्जी हाच्या आदारान १९१७ वर्सा ताणें स्कॉटीश चर्च कॉलेजींत प्रवेश घेवन, १९१९ वर्सा तो तत्त्वज्ञान विशय घेवन पयल्या वर्गांत बी. ए. पास जालो. बापायचे इत्सेक लागून ११ सप्टेंबर १९१९ दिसा तो आय. सी. एस्. परीक्षेखातीर इंग्लंडाक गेलो. आय. सी. एस्. परीक्षा तिसऱ्या क्रमांकान पास जालो. देशाच्या स्वातंत्र्यलड्यांत उडी घेवपाखातीर, ताणें आपले नोकरेचो राजिनामो दिलो आनी १६ जुलय १९२१ दिसा तो मुंबय आयलो. गांधीजीच्या सल्ल्याप्रमाण कलकत्ता हांगा ताणें चित्तरंजन दास हाची भेट घेतली. चित्तरंजन दास हाणें सुभाषबाबूची, राश्ट्रीय कॉलेजचो प्राचार्य म्हणून नेमणूक केली. त्याच वेळार देशांत असहकार चळवळ सुरू जाली.

बंगालांत, सुभाषबाबू आनी चित्तरंजन दास हांकां लागून सरकाराच्या कामकाजांत आडखळी येवपाक लागल्यो, तेन्ना तांकां अटक केली आनी स म्हयने बंदखणींत दवरले. १९२४ वर्सा चित्तरंजन दास मेयर जालो आनी ताणें सुभाषबाबूक एक्झीक्युटिव ऑफिसर नेमलो. त्याचवर्सा बंगालांत परत क्रांतिकारकांच्या आंदोलनाक नेट आयलो. हे क्रांतिकारक आनी सुभाषबाबू हांचो दाट संबंद आसा असो सरकाराक पयलींच दुबाव आशिल्ल्यान परतून सुभाषबाबूक अटक केली. पयलीं ताका अलिपूर, थंयच्यान बेरहामपूर आनी उपरांत कलकत्त्याच्या बंदखणींनी दवरतकच निमाणो ताका मंडाले बंदखणींत धाडलो. थंयच सुभाषबाबून इतिहास, साहित्य, धर्मशास्त्र, मानसशास्त्र ह्या विशयांचें वाचन केलें आनी स्वातंत्र्य लड्याचेर एक पुस्तक बरयलें. १६ जून १९२५ दिसा ताचो राजकीय गुरू चित्तरंजन हाच्या मरणाची खबर ताका बंदखणींतूच मेळ्ळी. सुमार ३ वर्सां बंदखणींत उरिल्ल्यान ताका क्षयरोग जालो. १५ मे १९२७

दिसा तो सुटलो. पूण ताचें वजन ४० पाउंडांनी उणें जाल्लें. स्वातंत्र्य लड्याचें स्वरूप खर जायत वतालें. बंदखणींतल्यान सुट्टकच सुभाषबाबून साबरमती आश्रमांत गांधीजीची भेट घेतली. भारतांतले राजकीय परिस्थितीचो सुमरास म्हयने ताणें अभ्यास केलो आनी राजकारणांत वांटो घेतलो. तेन्ना तो बंगाल प्रांतीक काँग्रेस परिशदेचो अध्यक्ष जालो. ताणें यूथ लिगाची स्थापणूक करून तरणाट्यांक एकठांय केले.

१९२८ वर्सा नेहरूवांगडा काँग्रेसीचो सरचिटणीस म्हणून ताची नेमणूक जाली. त्याच वर्सा नेहरू आनी सुभाषबाबू हांणी मेळून इंडिया इंडिपँडन्स यूथ लिगाची स्थापणूक केली. १९३० वर्सा देशांत सविनय कायदेभंगाची चळवळ सुरू जाली आनी सुभाषबाबूक परत अटक केली. ३१ डिसेंबराक सुटका जातकच तो कलकत्त्याचो महापौर जालो. डिसेंबर, १९३१त युवक परिशदे निमतान ताणें पुणें आनी महाराष्ट्राक भेट दिली. २ जानेवारी १९३२ दिसा कलकत्त्याक परततना, सशस्त्र क्रांतिकारक चळवळीकडेन संबंद जोडून सरकारान ताका परत अटक केली. पूण क्षयरोग आनी पोटदुखी हांकां लागून ताची सुटका केली. तेचवांगडा ताका देशांतल्यान हद्दपार केल्ल्याचें सांगलें. उपचाराखातीर खंयूय परदेशांत वचप गरजेचें आशिल्ल्यान १९३३-३६ हीं तीन वर्सां तो व्हिएन्नांत (ऑस्ट्रिया) रावलो. ह्या काळांत ताणें युरोपांतले राजकीय परिस्थितीचो नियाळ केलो. थंयच एप्रिल ते ऑक्टोबर १९३३ ह्या काळांत ताका विठ्ठलभाई पटेल हाचो सांगात मेळ्ळो. हांगाच एमिली शेंकल हे चलयेकडेन ताची वळख जाली आनी फुडें तिचेचकडेन लग्न जालें. भलायकी बरी जातकच १९३६ वर्सा भारतांत येनाफुडें ताका परत अटक जाली. येरवडा बंदखणींत परत दुयेंत पडिल्ल्यान १९३७च्या सुमाराक तो परतून व्हिएन्नाक गेलो. थंय देड म्हयनो सुशेग घेवन इंग्लंडाक गेलो. मेजर ॲटली, लॉर्ड स्नेल ह्या नेत्यांकडेन चर्चा केली.

२३ जानेवारी १९३८ दिसा तो भारतांत परतलो. १९३८ वर्साच्या हरिपुराक भरिल्ल्या काँग्रेस अधिवेशनाच्या अध्यक्षपदाचेर ताची निवड जाली. आपल्या अध्यक्षीय उलोवापांत ताणें संघराज्यात्मक घटनेक विरोध करून राश्ट्रीय सामर्थ्यवादाचेर भर दिलो. त्याच वेळार दुयेंत आशिल्ल्यान सबंद अधिवेशनांत काम करप ताका जमलेंना. तशेंच महात्मा गांधीचे विचार मानवलेनात, ताका लागून गांधी आनी ताचे वांगडी हांचेकडल्यान कसलेंच सहकार्य मेळना जालें. तेन्ना सुभाषबाबून आपल्या अध्यक्षपदाचो राजिनामो दिलो आनी फॉर्वर्ड ब्लॉकाची स्थापणूक केली. १९३९ वर्सा तो त्रिपुरा काँग्रेस अधिवेशनाचो अध्यक्ष जालो. त्याच सुमाराक दुसरें म्हाझूज सुरू जालें. सुभाषबाबू जून १९४० त स्वातंत्र्यवीर सावरकर हाका मेळ्ळो. ह्या म्हाझुजाचो फायदो घेवन ताणें ब्रिटीश सरकाराचेर भायल्यान स्वारी करपाचें थारायलें. पूण हॉलवेल यादस्तीक उमथून उडोवपाचे ताचे घोशणेक लागून ताका अटक जाली. बंदखणींत ९ दीस अन्न सत्याग्रह केल्ल्यान ताची भलायकी इबाडली. ताका लागून सुभाषबाबूची सशर्त सुटका जाली. पूण घराभोंवतणीं ६० गुप्तहेरांची खास नेमणूक जाल्ली. सुभाषबाबून मौन धारण केलें, खाड वाडयलें आनी राजकीय संन्यास घेतिल्ल्याचें जाहीर केलें. १६ जानेवारी १९४१ दिसा, भेस बदलून सुभाषबाबू भगतरामा वांगडा काबूलाक गेलो. थंय ४३ दिसांच्या मुक्कामांत ताणें परदेशी वकिलातीकडेन पत्रवेव्हार करून पासपोर्ट मेळोवन जर्मनीक गेलो. थंय जर्मन सरकाराच्या सहकार्यान कार्यालयाची स्थापणूक केली. २९ मे १९४१ दिसा एका तारवाचेर हिटलराकडेन चर्चा केली. भारतांत तेन्ना सुभाषबाबूचो सोद नेटान चालू आशिल्लो.

झुजाचे सुरवातीक ब्रिटीश लश्करांतल्या हजारांनी भारतीय सैनिकांक धरून सिंगापूराक व्हेले. हे भारतीय सेनेक संघटीत करपाखातीर सुभाशबाबू हिटलराच्या पालवान पाणबुडयेंतल्यान सिंगापूराक गेलो. थंय सरकारी थाटान ताचें स्वागत जालें. ५० हजार भारतीयांची आझाद हिंद सेना सिंगापूराक तयार जाली आनी ताणें झुजांत उडकी घेतली. पयलीं अंदमान जुंव्याचेर तिरंगी बावटो लागलो. थंयच्यान सुभाषबाबू मियानमारांत (ब्रह्मदेशांत) गेलो आनी रंगूनाक एक कार्यालय उगडलें. २६ जानेवारी १९४४ दिसा रंगूनाक स्वातंत्र्यदीस मनयलो. उपरांत आझाद हिंद सेनेन आसाम, मणीपूरांत प्रवेश घेतलो आनी इम्फाळाक घेराव घालो. पूण ६ आनी ९ ऑगस्ट १९४५ ह्या दिसांनी जपानांतल्या हिरोशिमा आनी नागासाकी हांचेर अणुबाँब घालून तीं नश्ट केलीं. जपानान धवो बावटो दाखयलो तेन्ना आझाद हिंद सेनेकूय फाटीं सरचें पडलें. रंगून आकाशवाणी वयल्यान केल्ल्या उलोवपांत सुभाषबाबून ब्रिटिशांकडेन कसलोच समझोतो करपाचो ना, फाळणी स्विकारपाची ना आनी लडो तसोच चालू दवरपाचें आव्हान केलें आनी मियानमाराचो (ब्रह्मदेशाचो) निरोप घेतलो. पूण तायपे (तायवान) विमानतळाचेर १८ ऑगस्ट १९४५ दिसा ह्या विमानाक अपघात जालो आनी ह्या अपघातांत ताका मरण आयलें असो दुबाव आसा. ह्या अपघाताउपरांत सरकारान नेमिल्ले समितीक वा हेर कोणांक ताच्या अस्तित्वाची खंयच कुरू ना मेळिल्ल्यान त्या अपघातांत ताका मरण आयलें अशें धरून चलतात.

सुभाषबाबूक 'नेताजी' ही लोकउपाधी आशिल्ली. रॉवेंशा विद्यालयाचो मुख्याध्यापक बेनी माधवदास हाचो ताचे जिणेचर चड प्रभाव पडलो. तेच भाशेन स्वामी रामकृष्ण आनी विवेकानंद हांचोय तितलोच खर प्रभाव ताचेर पडिल्ल्यान, मुळांतूच आशिल्लो आत्मविश्वास, धडाडी आनी निर्भयताय हांकां लागून येता त्या प्रसंगाक तोंड दिवपाची कुवत ताचे मदीं आशिल्ली. हाकाच लागून ताणें परदेशांत हेर इश्ट राश्ट्रांच्या सहकार्यान प्रतिसरकाराची स्थापणूक केली. सुभाषबाबूची पुराय जिणूच क्रांतिकारकाची. तो देशप्रेमी तसोच मानवतावादीय आशिल्लो. तो जनावरांचेर लेगीत मोग करतालो.ताणें दोन खेतीं, दोन बोकड्यो, तीन बदकां आनी एक तट्टू पोशिल्लें. ताचें जेवण सादेंच आसतालें. च्या खूब लागताली आनी सुपारी खावपाचें वेसन आशिल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

**बोहरा :** इस्लामांतले शियापंथी लोक इथ्नाअशारी आनी इस्मायली अशा दोन मुखेल पंथांनी विभागल्यात. इस्मायली पंथाच्या एका उपपंथाचे अनुयायी ते बोहरा. खोजा हो इस्माइली पंथाचो दुसरो उपपंथ आसून आगाखानाचे भारतीय अनुयायी ह्या उपपंथांत आस्पावतात.

१४ वो इमाम इस्मायल हाच्या नांवावयल्यान 'इस्मायली' हें नांव तयार जालां. १८वो इमाम मुस्तनसीर साहेब हाच्या मरणा उपरांत मुस्तली साहेब आनी निझार ह्या ताच्या दोन पुतांमदीं उत्तराधिकाराच्या प्रस्नावयल्यान झगडीं जालीं. ज्या कोणें मुस्तलीचें अनुयायित्व आपणायलें तांकां 'मुस्तली' म्हणून वळखूंक लागले आनी ज्या कोणें निझार हाचें अनुयायित्व आपणायलें तांकां 'निझारी' ह्या नांवान वळखूंक लागले. बोहरा हे मुस्तली जाल्यार खोजा हे निझारी आसात. २१ इमाम जावन गेले असो बोहरांचो भावार्थ आसा. प्रेषित महमद पैगंबर हाचो जांवय हझरत अलीसाहेब आनी पैगंबराची धूव आनी इस्लामाची पवित्र बायल फातिमा ह्या दोगांयचे पूत इमाम हसन हांचेपसून इमामांच्या उत्तराधिकाराची परंपरा सुरू जाली आनी २१ जाणांक अधिकार मेळळे. इमाम तय्यिब हो २१वो इमाम आशिल्लो. धर्मपिसांट लोकांच्या उठावाक लागून इ. स. १३० वर्सा (हिजरी सन ५२४) इमाम तय्यिब हाणें इजिप्तांत एकांतवास आपणायलो. आयज लेगीत तो एकांतवासांत आसून, फुडाराच्या काळांत तो आपल्या अनुयायांक मेळटलो असो बोहरांचो भावार्थ आसा.

ह्या इमामांचें एक धर्ममंडळ आशिल्लें. ह्या मंडळांतली वांगडी आशिल्ली अरवा नांवाची एक बायल दक्षिण अरेबियांतल्या येमेनाक पळून गेली. थंय तिणें 'दावत-ए-तय्यिबी' (इमाम तय्यिब हाचें धर्ममंडळ) हे संस्थेची स्थापणूक केली.

दाई हो ह्या धर्ममंडळाचो मुखेल आसता. दोनूय शब्द अरबी आसात. दाई म्हळ्यार 'निमंत्रक', प्रस्थापीत धर्मसंस्थेकडेन येवपाक तोच निमंत्रण दिता. दाईंक, नेमणूक करून उत्तराधिकार दिवपाची चाल अरबाच्या काळासावन चालू आसा. ज्या कोणाची धर्मनिश्ठा आनी धर्मगिन्यान विख्यात आसा, अशाच मनशाची दाई म्हणून नेमणूक केल्ल्याची घोशणा दरेक दाई आपल्या मरणापयलीं अनुयायांक करता. येमेनी दाईन अब्दुल्ला नांवाचो एक धर्मप्रचारक भारतांत धाडलो. तो खंबायताक आयलो. थंय कांय चमत्कार करून ताणें कितल्याशाच उच्चवर्णीय हिंदूंक बाटोवन मुसलमान केले. हातूंत भरमल आनी तरमल नांवांचे एका राजाचे दोन मंत्रीय आशिल्ले. मुंबयत भरमल हें आडनांव आशिल्लीं कितलींशींच बोहरा कुटुंबां आसात.

२३ वो येमेनी दाई-उल्-मुत्लक मुहंमद इझझुद्दीनसाहेब हाणें दक्षिण गुजरातेंतल्या सिध्दपूरच्या युसूफ नांवाच्या एका भारतीयाची, आपल्या मरणा उपरांत उत्तराधिकार घेवपी २४ वो दाई-उल्-मुलक म्हणून नेमणूक केली. युसूफ हाणें 'नज्मुद्दिन' हो किताब आपणायलो. तो पयलो भारतीय दाई-उल्-मुत्लक आशिल्लो. युसूफाउपरांत भारतांतल्या दाईंची परंपरा सुरू जाली. २५वो दाई-उल्-मुल्लेक दाऊद बिन अजबशाह हाणें अहमदाबाद हांगा धर्ममंडळाची स्थापणूक केली. ताणें अकबर बादशाच्या दरबारांत वचून आपल्या अनुयायांक राखण मेळपाखातीर आश्रयस्थानाची सनद मेळयली. पूण औरंगजेब बादशान हे सनदेचो मान राखलोना. ३२वो दाई-उल्-मुत्लक कुत्बद्दीन कुत्बशाह हाणें शिया पंथ सोडपाक न्हयकार दिल्ल्यान औरंगजेबान ताची हत्त्या करपाचो हुकूम फर्मायलो. कुत्बशाह हाची संगमरवरी कबर अहमदाबादेक आसा.

दाऊद बिन कुत्बशाह हाच्या काळांत सुलैमान नांवाच्या एकल्यान दाईपदाचेर आपलो हक्क सांगलो. ताणें, 'सुलैमानी बोहरा' ह्या नांवान एक स्वतंत्र पंथ सुरू केलो आनी कांय जाणांनी ताचें अनुयायित्व आपणायलें. ज्या कोणें दाऊद बिन कुत्बशाह हाचें अनुयायित्व आपणायलें त्या लोकांक तेन्नासावन 'दाऊदी बोहरा' ह्या नांवान वळखुपाक लागले. बोहरांतले चडशे लोक दाउदी बोहराच आसात. पस्तिसाव्या दाईच्या काळांत परतून एक फावट अली नांवाच्या आनीक एकल्यान दाईपदाचेर आपलो हक्क सांगलो. ताकाय कांय अनुयायी मेळळे आनी बडोद्याक ताणें आपल्या धर्ममंडळाची स्थापणूक केली. ताच्या अनुयायांक 'अलिय बोहरा' ह्या नांवान वळखतात.

सद्याचो दाई मुहंमद बुऱ्हानुद्दीनसाहेब हो ५२वो दाई-उल्-मुत्लक. तो मुंबय रावता. औरंगाबादच्या शेख जीवनजीसाहेबांचो तो वंशज. 'जीवन' हें ताचें मूळ हिंदू नांव. आपल्या पदाचो धर्मीक भेस म्हणून ताणें पगडी, शाल आनी जामा असो भारतीय भेस आपणायला.

सगळयांत पयलीं धर्मांतरीत जाल्ले चडशे लोक ब्राह्मण वेपारी आशिल्ले. देखून ह्या पंथाक 'बोहरा' अशें नांव मेळळें. वेपार ह्या अर्थाच्या 'बेहार' ह्या गुजराती उतरापसून बोहरा हें उतर तयार जालां आसुंये. बोहरा समाज हो आयज लेगीत व्हड प्रमाणाचेर वेपारीच आसा. गुजरातांतलें सुरत, भडोच; महाराष्ट्रांत मुंबय, तशेंच राजस्थान, मध्य प्रदेश आनी भारतांतल्या हेर प्रदेशांतल्या वेपारी शारांनी बोहरांची वसती व्हड प्रमाणांत दिश्टी पडटा. सगळे बोहरा लोक हे इस्मायली पंथाच्या शिया धर्मप्रचारकां कडल्यान इ. स. च्या ११व्या शेंकड्यांत बाटयल्ल्या हिंदू वेपाऱ्यांची संतत. पूण तांचेमदले कांय जाण यमनी अरब आनी इजिप्तांतले अरब हांकां आपले पुर्वज मानतात. शारांतले बोहरा हे वेपारी आसून शिया आसात. जाल्यार खेड्यांतले बोहरा शेतकरी आसून सुन्नी आसात.

**शिया बोहरा :** हांचे अलिया, दाउदी, जाफरी, नागोशी आनी सुलेमानी अशे पांच पोटभेद आसात.

**अलिया बोहरा :** इ. स. १६२४ वर्सा अली नांवाच्या मनशान ह्या पंथाची स्थापणूक केली. म्हणून ह्या लोकांक अलिया बोहरा अशें नांव मेळळें. दाउदी बोहरांक 'लोटिया' अशेंय म्हणटात. हे लोक गुजराती भास उलयतात. ते धर्मीक वृत्तीचे आसून नेमान नमाज पढतात. मक्केक यात्रेक वतात आनी नाच-पदां, सोरो हांचेपसून पयस रावतात. चलो

जल्मतकच अकीक नांवाचो यज्ञाभाशेन प्रकार मुल्लागेर वचून करतात. तांचे हेर आचार मुसलमानांसारकेच आसतात. गुजरातांत जाफरी बोहरांची वसती व्हड प्रमाणांत आसा. जाफर शिराजी नांवाच्या मनशान तांकां सुन्नी पंथाची दिक्षा दिली, म्हणून तांकां हें नांव मेळ्ळें. जाफरी बोहरा हे दाऊदी बोहरांपरस मातशे वेगळे आसून, मेनन आनी सुन्नी मुसलमानांकडेन तांचें खूब सारकेपण आसा. ते धर्मीक वृत्तीचे आसून तांच्यो बायलोय कुराण वाचतात. १७८९ वर्सा अलिया हे उपशाखेंतल्यान फुटून नागोशी नांवाची दुसरी उपशाखा तयार जाली. सुरतेच्या एका बोहरान इ.स.च्या १६ व्या शेंकड्यांत एक मुल्ला अरबस्थानांत धाडलो आनी ताणें थंयच्या लोकांक ह्या पंथाची दिक्षा दिली. तांचेच हे वंशज, तांच्या मुल्लाच्या बिझाई हे उपाधीवयल्यान तांकां 'बिझाई बोहोरी' अशेंय नांव मेळ्ळें. सुलेमान नांवाच्या अरबस्थानांतल्या मुल्लाक तांणी आपलो मुखेल नेमलो म्हणून तांकां 'सुलेमानी' हें नांव मेळ्ळें. दाउदी बोहरा आनी सुलेमानी बोहरा हांचेमदीं चडसो फरक ना. पूण तांचेभितर लग्नां जायनात.

**सुन्नी बोहरा :** हे लोक धर्मीक वृत्तीचे आसून, नेमान नमाज पढतात. पीरजादा हो तांचो आध्यात्मीक गुरू. हे आयज लेगीत हिंदूंच्यो कांय चालीरिती पाळटात. लग्नापयलीं दोन-तीन दीस, वासुदेवाच्या नांवान, दोन तरांच्यो दाळी शिजोवन तांचे पदार्थ सगळयांक वांट्टात. चडशे सगळे सुन्नी बोहरा जमीनदार आनी शेतकार आसात. सगळे बोहरा लोक मडीं पुरतात.

'हिबती' वा 'हिप्तीया' ही उज्जैनची आनी महदी बागवाला ही नागपूरची, अशो गौण उपशाखाय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**बोहाडा :** एक नृत्यनाट्य. हें महाराष्ट्रांतल्या नासिक आनी खानदेश ह्या वाठारांनी प्रचलीत आसा. चैत्र म्हयन्यासावन आशाढ मेरेन म्हळयार शेताच्या कामाच्या दिसांनी हें नृत्यनाट्य करतात. मनोरंजना खातीर आशिल्ल्या ह्या नृत्यनाट्याची तयारी बोहाड्याची कार्यावळ सुरू जावंचे पयलीं दोन-दोन म्हयने चालू आसता.

ह्या नृत्यनाट्याचे प्रसंग रामायण, महाभारत हांचेर आदारीत आशिल्ल्यान ह्या नृत्यनाट्यांत काम करपी कलाकारांक रावण, कुंभकर्ण, विभीषण, राम, कृष्ण, भीम, अर्जून, मारूती ह्या देव-दैत्यांचे हावभाव, तांच्या हालचालींचो बारीक-साणीन अभ्यास करचो पडटा. हें एक नृत्यनाट्य आशिल्ल्यान हातूंत नाचाक चड प्राधान्य आसता. ह्या नाचांत मोनजातीचें, राक्षसांचें, देवांचें नृत्य वेगवेगळे तरेन दाखोवपाखातीर नटाक कसून काम करचें पडटा. बोहाड्यांतली कथा पौराणिक आसली तरी काळाप्रमाण तिचेभितर बदल जायत आसात. वैज, बाळंतीण, बोहारीण, राजकीय फुडारी ह्या विंगड विंगड मनशांचीं संवगां ह्या बोहाडांत करतात.

ह्या नृत्याखातीर कागदाचें मुखें तयार करतात. देवांचें मुखें शांत सात्विक भाव दाखोवपी जाल्यार, दैत्यांचें मुखें रागीट भिरांकूळ आसता. गणपती, सरस्वती, शंकर, खंडोबा ह्या देवांखातीर हुंदीर, मोर, नंदी, घोडो अशीं वाहनां तयार करतात. हांचीं तोंडां कागदाचीं आसतात. पूण आंगां मात लोखणी पत्र्याचीं आसतात. फाटीक एक मनीस रावंक शकता येद्या आकाराचो बुराक दवरतात.

मुखेल कार्यावळ सुरू जावंचे कांय दीस पयलीं गांवांतले कांय जाण्टे लोक बोहाड्यांत काम करपी लोकांची परिक्षा घेतात. चड करून तांच्या नाचपाची तयारी पळयतात. महादेवाची भुमिका करपी नटाक नंदीभाशेन आनी सरस्वतीचें सवंग करपी मनशाक पुरो जायनासतना वरांचीं वरां नाचूंक जमपाक जाय. तशेंच, त्या त्या नटाक, ते ते मोनजातीचो आवाज काडपाक येवंक जाय. हे परिक्षेंत जे पास जातात तांकांच बोहाडांत वांटो घेवंक मेळटा.

बोहाडाच्या दिसा नटांक नाचपाखातीर सुवात आंखून दितात. दोनूय वटांनी प्रेक्षक बसतात. रातीच्या वेळार चूड पेटयतात आनी त्या उजवाडांत बोहाडा खेळ सुरू जाता. पयलीं सुत्रधार नमन करता उपरांत संबळ आनी पिपाण्या हांच्या तालाचेर विदुशक उडयो मारता. ते उपरांत भालदार-चोपदार गणपतीच्या येवपाविशीं ललकारी दितात. फाटोफाट हुंदराचेर बशिल्लो गणपती नाचत नाचत मुखार येता. गणपती वतकच सरस्वती येता. नाचता आनी आशिर्वाद दिवन परत वता. इतलें जातकच बोहाडाचें मुखेल कथानक सुरू जाता आनी तें पांच राती चलता. हातूंत एकेच खेपेक दोनशें - दोनशें नट वांटो घेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**बौध्द धर्म :** गौतम बुध्द हाणें स्थापीत केल्लो धर्म. करूणा, मनीसपण आनी समानताय ह्या तत्त्वांक बौध्द धर्मान चड म्हत्व दिलां. बुध्दाची जल्मभूंय लुंबिनी (नेपाळ), गौतमाक बोधी प्राप्त जाल्ली सुवात बौध्दगया (बिहार) आनी बुध्दाक निर्वाण मेळिल्ली सुवात कुसीनगर (उत्तर प्रदेश), ह्या तिनूय क्षेत्रांक पवित्र भुंयो म्हणून बौध्द धर्मांत चड म्हत्व मेळ्ळां. सुरवेक उत्तर भारतांत बौध्द धर्म ल्हान ल्हान चळवळींतल्यान सुरू जालो. उपरांत सम्राट अशोक आनी हेर राज्यकर्त्यांच्या फाटबळान तो उत्तर भारतांत आनी मध्य भारतांत पातळ्ळो. मुखार भारतीय राजकर्त्यांच्याच आदारान तो तिबेट, श्रीलंका, सिरीया इजिप्त, चीन, जपान, कोरिया, विएतनाम, ब्रह्मदेश (मियानमार) आनी हेर अस्तंत देशांनी पावलो. इ. स. आठव्या शेंकड्यासावन भारतांत बौध्द धर्माक देंवती कळा लागली.

गौतम बुध्दाचो जल्म इ.स.प. ५६७ च्या सुमाराक जालो. ताचें वैयक्तीक नांव सिध्दार्थ. ताचो बापूय शुध्दोदन हो शाक्य कुळाचो राजा

आशिल्लो. गौतम सात वर्सांचो आसतनाच ताची आवय मायादेवी हिका मरण आयलें. गौतम ल्हानपणासावनूच शांत, ध्यानी, कळवळ्या, धर्मनिश्ठ आनी भावार्थी सभावाचो तसोच हळव्या मनाचो आशिल्लो. पूण ल्हानपणासावनूच तो बुदवंत आशिल्लो. शुध्दोदनान सिध्दार्थाची अध्यात्मीक अवस्था पळोवन आपलो पूत सादारण मनशांत येवंचो म्हणून खूब यत्न केले. ताचें भुरगेपण विलासी अवस्थेंत गेलें. उपरांत ताचें यशोधरा हिचेकडेन लग्न जावन, तिचेपसून ताका एक चलो जालो (राहुल). पूण सिध्दार्थाचें संवसारांत केन्नाच मन रमलेंना. पिडा, म्हातारपण आनी मरण हे मनशाचे जिणेंतले सासणाचे अशे दुखेस्त प्रस्न ताका सदांच सतायताले. ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोदून काडपाखातीर ताणें पिरायेच्या २९व्या वर्सा आपलें घरदार सोडलें आनी तो संन्याशी जीण जगपाक लागलो. सुरवेक सत सोदून काडपाखातीर गौतमान तप, योग, ह्या सारकिले संयमी आनी खर मार्ग आपणायले. पूण अशा मार्गान आपले प्रस्न सुटावे जावंचेनात हाची जाणविकाय जाले उपरांत निमाणेकडेन ताणें ध्यानाचो मार्ग आपणायलो. उपरांत वैशाख पुनवे दिसा उरूवेला बौध्दगयाक नेरंजरा न्हंयेच्या देगेर ताका बोधी प्राप्त जाली. ह्या दिसासावन तो बुध्द ह्या नांवान प्रसिध्द जालो.

बुध्दान सैमीक तत्त्वांचेर आदारिल्लो, समजिकायेचो सादो तसोच मनीसपण, करूणा आनी समानताय हांकां म्हत्व दिवपी धर्म लोकांमुखार दवरलो. बुध्दाचें तत्त्वगिन्यान हें कांय खाशेल्या नैतिक प्रमाणांचेर आनी सिध्दांतांचेर आदारिल्लें आसा. ताणें निश्चीत अशा धर्मसिध्दांत वा भावार्थाचें समर्थन करीनासतना आध्यात्मिक गजालींच्या आदारान समजीकायेचो मार्ग दाखयलो. ताची शिकवण सादी, सोंपी पूण म्हान आसा.

बौध्द धर्म आनी बौध्द आचारतत्त्वां हीं आत्मनिर्भरतेचेर आदारिल्लीं आसात. गौतमान तत्त्वमिमांसा हो विशय आपले मूळ शिकवणेसावन सदांच पयस दवरलो. बौध्द धर्मांत देवाची सुवात धर्माक (कर्तव्यांक) दिल्या. तेचपरी हो धर्म वेदांचें प्रमाण मानिना. हाका लागून बौध्द धर्माक नास्तिक धर्म अशें म्हळां. ताच्या मतान जण एकल्याक ताच्या कर्माप्रमाण फळ मेळटा. बुध्दाची शिकवण परिणामवादी आनी वेव्हारीक. ताणें कारणां आनी अणभवांचेर भर दिला. हाका लागून ताचें तत्त्वगिन्यान हें घटना-क्रिया-विज्ञानीक (Phenomenology) आनी प्रत्यक्षवादी (Positivistic) आसा. जिणेंतलें दुख्ख, पिडा वा दळडीर पयस करप, होच ताचो मुखेल हेत आशिल्लो. निराशावाद (Pessimism) हें बौध्द तत्त्वगिन्यानाचें खाशेलेपण. हो संवसार दुख्यान भरिल्लो आसून सगळेकडेन दळिद्र पातळिल्लें आसा अशें बुध्दाचें मत. पयल्या आर्यसत्यांत ताणें दुख्खाक म्हत्त्व दिलां. ताच्या मतान सबंद जिवीत पिडेन आनी दुख्खान भरिल्लें आसा. जीण दुख्खी आसली तरी ती निर्वाण मेळून सुखी करप हें जण एकल्याचें कर्तव्य अशें तो मुखार सांगता. दुख्ख पयस करप हो बौध्द धर्माचो मुखेल हेत. चवथ्या आर्यसत्यांत ताणें दुख्ख पयस करपाचो मार्ग दाखयला. अशे रितीन बौध्द तत्त्वगिन्यान हें निराशावादान सुरू जावन निमाणेकडेन आशावादाचेर सोंपता.

बोधी प्राप्त जालेउपरांत आपलें गिन्यान बुध्दान चार आर्यसत्यांच्या रुपान आपल्या भिक्षूंक सांगलें.

**१) दुख्ख :** बुध्दान आपल्या भिक्षूंक सांगिल्लें हें पयलें आर्यसत्य. बुध्दाच्या मतान सबंद जीण ही पिडेन आनी दुख्ख्यान भरिल्ली आसा. जल्म म्हळ्यार दुख्ख, रोग, म्हातारपण, मरण तशेंच शोक, विलाप, दळीद्र हें सगळें दुख्खूच. सुखाचो आनी दुख्खाचो लागींचो संबंद आशिल्ल्यान, पिडा वा यातना हे सुखाचेच परिणाम आसात. गरिबी, आशा, राग, दुस्वास, वाद, इत्सा हीं सगळीं दुख्खाचींच कारणां आसात. अशे रितीन बुध्दाच्या मतान सगळीं कार्यां आनी घडणुको दुख्खान भरिल्ल्यो आसात.

**२) दुख्ख-समुदय :** हें आर्यसत्य दुख्खांच्या कारणांकडेन संबंदीत आसा. दुख्ख ही सत्यस्थिती आशिल्ल्यान ताका कसलें तरी कारण आसता. तृष्णा (इत्सा) जी जल्म-मरण हांचें चक्र चालू दवरता, हेंच दुख्खाचें मूळ कारण आसा अशें बुध्दान सांगलां. कामतृष्णा, भवतृष्णा आनी विभवतृष्णा अशे तृष्णेचे तीन प्रकार आसात. (sex desire, life desire and wealth desire ). एकेच वस्तूखातीर जेन्ना दोन मनशांच्या मनांत लोभ वा तृष्णा उत्पन्न जाता, तेन्ना ती वस्तू आपल्याक मेळची म्हणून तांचेमदीं सर्त लागता वा झगडीं-झुजां आनी किजिलां जातात. हाका लागून बुध्दान तृष्णा हाकाच सगळ्या दुख्खांचें मूळ कारण थरयलां.

**३) दुख्ख निरोध :** दुखनाश हें तिसरें आर्यसत्य. मनशाची जीण दुखेस्त वा पिडेस्त जावपाक कसलें तरी कारण आशिल्ल्यान, दुख्ख पयस दवरूं येता. तृष्णेसावन पुरायपणान पयस रावप म्हळ्यार दुख्खनाश करप. तृष्णेचो, वासनांचो तसोच मायेचो नाश करूनूच मनशाक ह्याच जल्मांत एक खाशेली अवस्था मेळटा. हे अवस्थेक गौतम बुध्दान निर्वाण अशें म्हळां. निर्वाण पाविल्ल्या मनशाचेर रूप, रंग, गंध आनी हेर सगळ्या प्रकारांचो आघात जायत रावता. पूण हे अवस्थेंत ताचें चित्त शांत जाल्ल्यान ह्या सगळ्यांचो ताचेर कसलोच परिणाम जायना.

**४) दुख्खनिरोधगामिनी प्रतिपद :** ह्या आर्यसत्यांत बुध्दान निर्वाण प्राप्त करून घेवपाचो मार्ग सुचयला. दुख्ख नश्ट जावपाक शकता जाल्यार तें नाश करपाचे मार्गय आसपाक जाय अशें बुध्दान सांगलां. ह्या मार्गाक बुध्दान आर्य अष्टांगिक मार्ग म्हळा, निर्वाण प्राप्त करप हो आर्य अष्टांगिक मार्गाचो मुखेल हेत. सम्यक दृष्टी, सम्यक संकल्प, सम्यक वाच्या, सम्यक कर्मान्त, सम्यक आजीव, सम्यक व्यायाम, सम्यक स्मृती आनी सम्यक समाधी हीं ह्या मार्गाचीं आठ आंगां.

बुध्दाच्या मतान, अन्याय आनी वासना हीं दुख्खाचीं मुखेल कारणां.

हीं कारणां पयस दवरपाखातीर सत गिन्यानाची गरज आसता. हाका लागून सत गिन्यान सोदून काडचेखातीर दर एकल्याचो दृश्टीकोन नितळ(सम्यक दृष्टी) आसपाक जाय. दुख्ख पयस करपाक फकत गिन्यान आसून उपेग ना. अध्यात्मीक जीण जगपाखातीर जण एकल्यांत अचूक संकल्पना करपाचें ध्यैर्य (बळ) आसपाक जाय. वायट बुद्द तात्पुरतें शारिरीक वा मानसीक सूख हांचेपसून पयस रावून नितळ आनी परिपूर्ण जीण जगपाचो संकल्प करपाक जाय. तेचपरी जण एकल्याची वाच्या सत्य आसपाक जाय. सगळयांनी फट, गाळी आनी हिणसावण्या उतरांपसून पयस रावपाक जाय. दर एकल्यान चोरी, हाणामारी, फटींगपण, हत्यारां, सोरो हांचेपसून पयस रावून आपली उपजीविका उजू मार्गान चलोवपाक जाय. खंयच्याच मनशान मोनजातीची हत्या वा वेव्हार करपाक जायना. सम्यक व्यायाम म्हळयार, दुर्गुणांचो नाश करून दर एकल्यान सत्कर्मान चलपाचो सदांच यत्न करपाक जाय. दर एकल्यान वासना, आशा हांचो नाश करून उपरांत तशेंच चित्त थाऱ्यार दवरून ताची एकाग्रताय करीत रावपाक जाय. ह्या अष्टांगिक मार्गाक मध्यम मार्ग (Middle Path) अशेंय म्हळां.

हेर भारतीय धर्मांप्रमाण बौध्दांचोय कर्माचेर आनी पुनर्जल्माचेर विश्वास आसा. जल्म मरणाचें चक्र कशें चलता आनी ह्या जल्म-मरणाच्या भोंवाड्यांतल्यान मुक्त जावन दुख्ख कशें पयस करप, हें बुध्दान प्रतीत्य-समुत्पादन हातूंत स्पश्ट केलां. प्रतीत्य-समुत्पादन म्हळयार खंयचीय गजाल वा वस्तू उत्पन्न जाता ती स्वयंभू (आपसूक) नासून, कसल्या तरी पूर्वगामी कारणपरंपरेचेर आदारिल्ली आसता. हेच रितीन जल्म-मरणाचें चक्र घुंवता. एका जल्माचो फाटल्या आनी मुखावयल्या जल्माकडेन कार्यकारण परंपरेन कसो संबंद उरता हें प्रतीत्य-समुत्पादन हातूंत सांगलां.

बुध्दाच्या मतान अनित्य हेंच खरें वास्तव्य (reality). ह्या संवसारांत नित्य अशें कांयच ना. एकसारको बदल जायत रावप हो एकूच नेम सर्वव्यापी आसा. हाका लागून तो आत्म्याचें अस्तित्व न्हयकारता. जाका आमी मन अशें म्हण्टात तो एक भावनांचो वा विचारांचो झरो आसा. जे रितीन झरो एकसारको व्हांवत आसता. तेच प्रमाण मनांत वेगवेगळे विचार, भावना, आशा उत्पन्न जायत रावतात. हाका लागून मन हो विचारांचो व्हांवतो झरो आत्मीय न्हय, हें ताणें 'अनात्म' सिध्दांतांत स्पश्ट केलां. हेच प्रमाण पुराय सैम हो नाम-रुपात्मक वा पंचस्कंधात्मक आसा. पांच स्कंध म्हळयार रूप, वेदना, संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान. हो पुराय सैम आनी तातूंतल्यो सगळयो वस्तूय सदांकाळ तिगून रावपी नात. त्यो अनित्य आसात. त्यो आयज आसत जाल्यार फाल्यां ना वा तातूंत बदल घडून येतलो. त्यो विपरिणामधर्मी आसात. जी गजाल सदांखातीर तिगून उरना ती ना जाली म्हण्टकूच तिची आशा दवरपी मनशाक दुख्ख जाता. हाका लागून ती वस्तूय दुख्खकारकूच आसा. जी वस्तू अनित्य वा दुख्खकारक आसा तिका आपली म्हणपाची लेगीत कोणीचीच इत्सा नासता. हाका लागून ते वस्तूक 'आत्मीय' अशेंय म्हणपी कोण ना. अशे तरेन ह्या सैमांतल्यो सगळयो वस्तू वा व्यक्ती अनित्य, दुख्खकारक आनी अनात्म आसात. ही बौध्द तत्त्वगिन्यानाची सादी आनी सोंपी विचारसरणी आसा.

दुख्खापासून मुक्त जावपाखातीर बुध्दान शील, प्रज्ञा आनी समाधी अशे तीन मोड आशिल्ल्या मार्गांचो उपदेश केला. शील हातूंत ताणें गृहस्थाश्रमी लोकांक प्राणहत्या, चोरी, फटींगपण, व्यभिचार (adultery) आनी मद्यपान ह्या पांच गजालींपसून पयस रावपाक सांगलां. गृहस्थ उपासकान इश्टागत, करुणा, मुदिता आनी उपेक्षा हांचो आपले जिणेंत चडांत चड विस्तार करचो अशें ताणें सांगलां. गृहस्थाश्रमांत रावून उपासकाक पुरायपणान नितळ रावपाक शक्य ना म्हणून भिक्षूधर्म आपणावपाची ताणें तजवीज केल्ली. बुध्द, धर्म आनी संघ ह्यो शरण वचपाच्यो तीन सुवातो आसात. उपारासकांनी तांचो आलाशिरो घेवपाक जाय.

**प्रज्ञा :** प्रज्ञा हाशील करप म्हळयार बुध्दान घालून दिल्ली शिकवण आत्मसात करप. उपरासकांनी आपले स्वतंत्र बुद्दीन विचार करून दुख्ख पयस करपाचो मार्ग जाणून घेवपाक जाय. ताणें दुस्वास, आळस आनी फटींगपण तशेंच त्रिरत्नांविशीं दुबाव ह्या सगळयांचो त्याग करपाक जाय.

**समाधी :** शीलसंपन्न आनी प्रज्ञा जालेउपरांत मन निश्चल आनी थाऱ्यार दवरपाखातीर उपासकान समाधीचो पांवडो गांठचो. हातूंत बुध्दान साधनांचे विंगड विंगड प्रकार सांगल्यात.

**निर्वाण :** हें उत्तर मोक्ष ह्या उतराकडेन समानार्थक आसा. सगळया तरांच्यो इत्सा, वासना, मोह आनी राग वा दुस्वास नश्ट करप म्हळयार निर्वाण. बौध्द शास्त्राप्रमाण आत्मो पालोवप, शांत जावप म्हळयार निर्वाण, दुख्ख पयस करपाखातीर बुध्दान उपदेश केल्ल्या आर्य उष्टांगिक (मध्यम मार्ग) मार्गाचें आचारण करचें. साधकान हो मार्ग आपणायलो जाल्यार ताची सगळया दुख्खांपसून सुटका जाता. हाकाच निर्वाण अशें म्हण्टात. निर्वाण प्राप्त जाल्लो मनीश उत्पन्न जायना, जिवीत जायना, ताका मरणूच येना आनी पुनर्जल्मूय प्राप्त जायना. तो थंयच शांत उरता.

बुध्दान उपदेश केल्लो धर्म हो जातिनिरपेक्ष आशिल्लो. तातूंत सगळयांक समान सुवात आशिल्ली. सुरवेच्या तेंपार बौध्द भिक्षू आनी सामान्य मनशांभितर व्हडलेंशें अंतर नाशिल्लें. मठवेवस्था ही भौशीक कल्याणाखातिरूच आशिल्ली. भिक्षूक धर्मदिक्षा दिवपाखातीर एकसारके गांवागांवानी भोंवत रावताले. फकत पावशी दिसांनी ते आपलो राबितो एके सुवातेर थीर दवरताले. ह्या तेंपार तांचो चंडसो वेळ भासाभास आनी धर्मचिंतनांत वतालो. हातूंतल्यानूच संघाची स्थापणूनक जाली. बौध्द उपासकांक वा भिक्षूंक बुध्दान कांय नेम घालून दिल्ले. भिक्षूगण

मठांत वा विहारांत रावून धर्मसाधना करताले. अशे साबार मठ वा विहार बुध्दाच्या तेंपार आशिल्ले. बुध्दा उपरांत तांची संख्या खूब वाडली.

बुध्दाच्या निर्वाणाउपरांत धर्माच्या मूळ सिध्दांतांचो निर्णय करपाखातीर बौध्द संघाची पयली संगीती (council) राजगृह हांगा भरली. हे परिशदेंत विनयपिटकाचें स्वरूप निश्चीत केलें. पूण विनयाचे नेम खूब कडक आशिल्ल्यान ताका विरोध करपी गट तयार जालो. मुखार वैशाली हांगा दुसरी संगीती भरिल्ली तेन्ना ज्या लोकांक प्राचीन विनयांचे कडक नेम मान्य नाशिल्ले ते मुळाव्या संघांतल्यान भायर सरून तांणी म्हासांघिक नांवाचो पक्ष तयार केलो. हातूंतल्यानूच मुखार म्हायान पंथ अस्तित्वांत आयलो. विनयाभितर खंयच्याच प्रकारचे बदल तांकां मान्य नाशिल्ले. तांकां स्थविरवादी अशें म्हणपाक लागले. स्थविरवादी आनी म्हासांघिक हांचेभितरले मतभेद पयस करपाखातीर आनी बौध्द धर्माचे सिध्दांत निश्चीत करपाच्या हेतून सम्राट अशोक हाणें पाटलिपुत्राक तिसरी संगीती आपयल्ली. हे परिशदेचें काम सुमार णव म्हयने चालू आशिल्लें. इ. स. च्या पयल्या शेंकड्यांत कुशाणवंशी राजा कनिष्क हाणें काश्मीरचे राजधानींत चवथी संगीती आपयल्ली. हे परिशदेंत सगळो विरोध मोडून उडोवन बौध्द धर्माच्या विशिश्ट सिध्दांतांचेर भर दिल्लो. तशेंच म्हाविभाशा नांवाच्या त्रिपिटकाचेर व्हड व्याख्या बरयली. हे परिशदेचें आनीक एक खाशेलपण म्हळयार त्या काळासावन बौध्द दर्शनान संस्कृत भाशा आपणायली.

म्हासंघिकांक विरोध करपी स्थविरवाद्यांसावन उपरांत सर्वास्तिवादी निर्माण जाले आनी मुखार सर्वास्तिवाद्यांसावन वैभाशिक आनी सौत्रांतिक अशे संप्रदाय अस्तित्वांत आयले. ह्या दोन संप्रदायांकूच मुखार 'हीनयान' हें तुच्छताय दर्शक नांव तांच्या प्रतिस्पर्ध्यांनी दिलें. म्हासांघिकांच्या मतप्रणालींतल्यान मुखार 'माध्यमिक' आनी 'योगाचार' संप्रदाय निर्माण जाले. ह्या लोकांक आपल्याच मोक्षाचो हुसको करप आनी ताचे खातीर यत्न करप ही गजाल स्वार्थी स्वरूपाची अशें दिसपाक लागलें. जे रितीन बुध्दान आपली पुराय जीण लोकांचें दुख्ख पयस करपांत घालयली तेच पद्दतीन बुध्दाच्या अनुयायांनीय आपले संगतींतल्या लोकांचीं दुख्खां आनी दळिद्र पयस करपाखातीर वावरूंक जाय. हेखातीर संवसाराचो भंय दवरिनासतना परतपरत जल्माक येवपाक तयार आसपाक जाय, अशें मत ताणी मांडलें. हे लोक स्वताक श्रेश्ठ समजुपाक लागले आनी तांणी 'म्हायान' हे नांव धारण केलें. स्वताच्या निर्वाणाखातीरूच यत्न करपी लोकांक ते आपलेपरस हीन लेखपाक लागले आनी तांकां 'हीनयान' हें नांव दिलें.

बौध्द धर्मान भारताक तत्त्वगिन्यान, वाङमय, न्यायशास्त्र, स्थापत्य शास्त्र, मुर्तिकला, चित्रकला आनी हेर क्षेत्रांतूय व्हड देणगी दिल्ली आसा. पाली त्रिपिटकांतलें धम्मपद, अशोकान आपणाल्या शिलालेखांत कोरांतून दवरलां. हे शिलालेख त्या काळांतलो इतिहास समाजवेवस्था वाङमय हांची म्हायती दिता. तशेंच सम्राट अशोक हाचे शिलास्तंभ, सांचीचो बौध्दस्तूप, कार्लेचीं लेणीं, बुध्दगयेंतलें बुध्द मंदिर, अजिंठा आनी बाघच्या लेण्यांतलीं चित्रां, सारनाथाची बुध्दमुर्ती ही बौध्द धर्मासावन भारताक मेळिल्ली व्हड देणगी आसा

**धर्मप्रसार :** सुरवेच्या काळांत बौध्द धर्म हो बिहार आनी उत्तर प्रदेशांच्या कांय भागांपुरतोच मर्यादित आशिल्लो. बुध्दाउपरांत लेगीत हो धर्म उत्तर भारतांतूच मर्यादित आशिल्लो. पुराय भारताचो विचार केल्यार भारत वा भारताच्या संपूर्ण राज्यांत बौध्दांचो पुरायपणान शेक केन्नाच नाशिल्लो हें दिश्टी पडटा. सम्राट अशोक, कनिष्क, हर्ष ह्या सारकिल्ल्या सम्राटांचो आलाशिरो बुध्दधर्माक मेळिल्लो तेन्ना लेगीत बुध्दधर्म मुखेलपणान मठ आनी विद्यालयां हांचे पुरतोच मर्यादीत आशिल्लो. बौध्दधर्माचो भारताच्या खंयच्याच राज्यांत पुरायपणान शेक नाशिल्लो तरी तो भारताच्या सगळ्या राज्यांनी पातळिल्लो.

सम्राट अशोक हो बौध्द धर्माचो सगळ्यांत व्हड प्रसारक आशिल्लो. ताणें आपल्या राज्यांत विंगड विंगड श्रेणींचे धर्मप्रचारक नेमिल्ले. तोय स्वता धर्मयात्रा करतालो. ताणें शिलाखंडांचेर धर्माज्ञा कांतोवन दवरल्या. ताणें यवनांचो देस, गांधार, काश्मीर, हिमाचल प्रदेश, अस्तंत भारतांत अपरांत, दक्षिणेक बनवासी तशेंच म्हैसूर, श्रीलंका, मलाया, सुमात्रा तशेंच सिरिया, मिसर, मॅसिडोनिया, हिपिरस, सिरेनिया, उत्तर आफ्रिका, आनी हेर पयशिल्ल्या देशांनीय व्हड धर्मप्रचारक धाडिल्ले. हो वावर मुखार कनिश्क राजान चालू दवरलो. ताणें आपले धर्मप्रचारक मध्य आशिया, चीन, जपान, ब्रह्मदेश, थायलंड, कंबोडिया, तिबेट आनी हेर देशांनी धाडिल्ले. गुप्त काळांत उडडियान, गांधार, मथुरा, कनौज, कोसल, मगध आनी हेर प्रदेशांनी बौध्द धर्म फांकारलो. नालांदक म्हाविद्यालयाची स्थापणूक गुप्ताच्याच काळांत जाली.

भारताचे वायव्येक बौध्द धर्माक मिनँडर आनी कनिश्क ह्या सारकिल्ल्या राजांचो तेंको मेळिल्ल्यान तो अफघानीस्तान, बाल्ख (इराण) मार्गांतल्यान मध्य आशियांत, तुर्कस्तानाच्या उदेंत वाठारांत गेलो. ह्या भागांत खोतान हें बौध्द धर्माचें म्हत्वाचें केंद्र आशिल्लें अशें कांय तज्ञ म्हण्टात. मध्य आशियांतल्या भागांतल्यान बौध्द धर्मा मुखार चीन देशांत गेलो (सुमार इ.स. पयल्या शेंकड्यांत). बौध्द धर्म चीनांत वचचे पयलीं थंय ताओ आनी कनफ्युशियन हे धर्मसंप्रदाय चालंत आशिल्ले. पूण कनफ्युशियन धर्माकडेन तुळा केल्यार बौध्द धर्म चड विकसीत आशिल्लो आनी ताओच्या तत्त्वगिन्यानापरस बौध्द तत्त्वगिन्यान चड सुक्ष्म आशिल्लें. हाका लागून चीनी लोकांक त्या धर्मान रोखडेच आकर्शीत करून घेतले. उपरांत कांय शेंकडे हो धर्म खाशेल्या मठांपुरतोच मर्यादीत आशिल्लो. पूण चवथ्या शेंकड्यांत चीनांत वेई नांवाच्या राजवंशाचो शेक वाडलो. ह्या वंशाच्या पयल्या सम्राटान बौध्द धर्म हो राजधर्म अशें जाहीर केलें. हाका लागून ह्या धर्माचो हांगा चारूय दिकांनी प्रसार

जालो. फाहियान, युआन च्वांग आनी इत्सिंग हे चीनी भोंवडेकार बौध्द धर्माचो खाशेलो अभ्यास करपाखातीर भारतांत आयिल्ले. तांणी साबार बौध्द ग्रंथ चीनांत व्हरून तांचो चीनी भाशेंत अणकार केलो. चीनी लोकांमदीं बौध्द धर्माची आवड निर्माण करपाक कुमारजीव आनी परमार्थ ह्या भारतीय बौध्द आचार्यांनी खूब वावर केलो.

चीन देशाउपरांत बौध्द धर्मान कोरियेंत प्रवेश केलो. कोरियेंतले सिला नांवाचे राजवटीन इ. स. च्या सातव्या शेंकड्यांत बौध्द धर्म आपणायलो. इ. स.च्या १०व्या शेंकड्यांत हांगा वांग राजवंशाची सत्ता सुरू जाली तेन्ना बौध्द धर्माक खूब म्हत्व प्राप्त जालें. पूण तेराव्या शेंकड्यांत मंगोल साम्राज्याच्या युआन राजवंशान वांग राजवंशाक पदभ्रश्ट केलो. ताणें कनफ्युशिअन धर्माची थंय परत स्थापणूक करून बौध्द धर्माक खर विरोध केलो. विसाव्या शेंकड्यांत जपान देशान कोरियेचेर जैत मेळयलेउपरांत थंय परत बौध्द धर्म पातळ्ळो.

जपानांत बौध्द धर्म इ. स. च्या सव्या शेंकड्यांत रिगलो. सुरवेक जपानी शिंतो धर्म आनी बौध्द धर्म हांचेमदीं खूब संघर्श जालो. पूण उपरांत हांगाच्या सरदार वर्गान तशेंच साबार सम्राटांनीय बौध्द धर्म आपणायलो. राजकुंवर शोकातू हाणें सातव्या शेंकड्यांत जपानांत बौध्द धर्माचो चारूय दिकांनी प्रसार जावंचो म्हणून व्हड वावर केलो. तेंदाई आनी शिंगोल हे पंथ आठव्या शेंकड्यांत निर्माण जाले. ह्या पंथांच्या रुपान जपानी बौध्द धर्माचें राश्ट्रियीकरण जालें. इ. स. च्या बाराव्या शेंकड्यांत झेन आनी निचिरेन अशे आनीक दोन नवे पंथ अस्तित्वांत आयले. पुराय जपानांत बौध्द धर्म पातळपाचो वावर ह्या दोनूय पंथांनी केलो. तोकुग आनी शोगुंते ह्या राजांच्या आदारान सतराव्या शेंकड्यांत बौध्द धर्म हो जपानाचो राश्ट्रीय धर्म जालो.

सम्राट अशोक हाचो चलो महेंद्र आनी ताचे चार वांगडी हांच्या रुपान बौध्द धर्म श्रीलंकेंत पावलो. ताणें सांगिल्ले बौध्द धर्माचे सिध्दांत श्रीलंकेच्या राजाक मानवल्ल्यान ताणें बौध्द धर्म आपणायलो. ताचे वांगडा ताचे प्रजेनूय बौध्द धर्म आपणायलो. दुसऱ्या शेंकड्यांत दुट्ठगामणी ह्या राजाच्या तेंपार हांगा व्हड स्तूप उबारलो. खाशेली गजाल म्हळ्यार पाली भाशेंतले बौध्द ग्रंथ आपल्या मुळाव्या रुपांत श्रीलंकेंतूच सुरक्षीत रावले. श्रीलंकेचो बौध्द धर्म हो थेरवादी. ताचो प्रभाव ब्रह्मदेश कांबोडिया, सायाम आनी लाओस ह्या देशांचेरूय पडलो.

ब्रह्मदेश, मलाया, द्विपकप, कांबोडिया, जावा आनी सुमात्राक बौध्द धर्माची वाड पांचव्या शेंकड्याच्या सुमाराक जाली. व्हिएतनाम देशाचें पयलींचें नांव चंपा अशें आशिल्लें. इ. स. च्या तिसऱ्या शेंकड्या पयलींच हांगा बौध्द धर्माक म्हत्व लाबिल्लें. इंडोनेशिया देशाचें पयलींचें नांव सुवर्णद्वीप अशें आशिल्लें. ७ व्या ते ११व्या शेंकड्यामेरेन सुवर्णद्वीप हें बौध्द धर्माचें एक व्हड केंद्र आशिल्लें. आशियांतल्या हेर देशांपरस तिबेटाक बौध्द धर्म खूब उशिरां म्हळ्यार सातव्या-आठव्या शेंकड्यांत पावलो. बौध्द धर्म पावचे पयलीं हांगाचो बॉन हो अधिकृत धर्म आशिल्लो. तिबेटी भाशेंत साबार बौध्द ग्रंथांचो अणकार जाल्लो आसून स्वतंत्रपणानूय तिबेटी भाशेंत बौध्द ग्रंथ जाल्ले आसात.

शणै गोंयबाब (वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार) हाच्या मतान पुण्ण वा पूर्ण हाणें इ. स. प. पांचव्या शेंकड्यांत गोंयांत बौध्द धर्म पावयलो. तशेंच सुमार दोन हजार वर्सांफाटीं सगळ्या दक्षिण कोंकणांत हीनयान पंथाचो बौध्द धर्म चलतालो अशें अनुमान शणै गोंयबाबान अमावतुर आनी सद्धर्म रत्नकारे ह्या इ. स. प. आनी दुसऱ्या शतमानांत बरयल्ल्या श्रीलंकेंतल्या सिंहली पुस्तकांवयल्यान आनी गोंयांत सांपडिल्ल्या इतिहासीक पुराव्यांवयल्यान काडलां. सौराष्ट्रांत 'गिरनार', हिमालयांत 'ख़ालसी' आनी अफघानीस्तानांत 'शहाबाजगढी' ह्या तीन सुवातींचेर सांपडिल्ल्या सम्राट अशोकाच्या फातरापट्यां वयल्यान इ. स. प. तिसऱ्या शेंकड्यांत अशोकान बौध्द धर्माच्या प्रसाराखातीर आपले प्रेशीत महाराष्ट्र, पेठानिक (प्रतिश्ठान) आनी अपरांत (कोंकण) ह्या प्रांतांनी धाडिल्ल्याचें समजता. 'म्हावंसो' ह्या बौध्द धर्मपुस्तकांतूय अशोकाचे आज्ञेन मोग्दलीपूत्र हाणें महाराष्ट्र, अपरांत आनी वनवासी ह्या प्रांतांनी आपले धर्मप्रसारक धाडिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

गोंयांत लामगांव, रिवण, हरवळें, लोटली, आकें, हरमल, रेडी ह्या सारक्या सुवातींचेर बौध्दधर्माच्या हीनयान पंथाचे सादे विहार आसात. ह्या धर्माच्या महायान पंथाची कुरू दाखोवपी बुध्दाची मूर्त इ. स. १९३० त फादर हॅन्री हेरस हाका बार्देसांतल्या कोलवाळ वाठारांत सांपडल्या, ती सांची हांगाच्या चैत्यांतले मुर्तीभाशेन दिसता अशें ताणें म्हळां. ती मूर्त चड करून दुसऱ्या-तिसऱ्या शेंकड्यांतली आसुंये. तेचपरी हरवळेंच्या विहारांत सांपडिल्ले त्राहाती लिपीचे धर्तेवयल्यान तो विहार पयल्या शेंकड्यांतलो आसुंये, अशें अनुमान काडपाक वाव आसा. ह्या सगळ्या आदारावयल्यान मौर्य साम्राज्याचो शेक कांय प्रमाणांत कोंकणावांगडा गोंयाचेरूय चलतालो आनी त्या तेंपार बौध्द धर्माचो प्रसार गोंयांतूय जाल्लो अशें म्हणूं येतां.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक बौध्द धर्म आनी तत्त्वगिन्यानाचो प्रसार करचे पासत धर्मानंद कोसंबी ह्या गोंयकारान 'आनंदविहार' आनी 'बहुजनविहार' ह्या संस्थांची मुंबयत स्थापणूक केली. बौध्द धर्माचो अभ्यास आनी हेर गिन्यान जोडपाखातीर धर्मानंद पुणें, ग्वाल्हेर, काशी, नेपाळ, श्रीलंका, मियानमार, आनी हेर देश-विदेशांनी भोंवलो. आपल्या देश-विदेशांतल्या भोंवड्यांनी ताणें बुध्दाविशींचें गिन्यान एकठांय केलें. बाकीबाब बोरकार हाणें ताच्या 'भगवान बुध्द' ग्रंथाचो कोंकणींत अणकार केला.

सुरवेक उत्तर भारतांत बौध्द धर्म हो ल्हान चळवळींतल्यान सुरू जालो. उपरांत सम्राट अशोक आनी हेर राज्यकर्त्यांच्या फाटबळान तो उत्तर भारतांत आनी मध्य भारतांत पातळ्ळो. बौध्द धर्म हो भारतापुरतोच

मर्यादित उरलो ना. पूण तो श्रीलंका, तिबेट, सिरिया, इजिप्त, मध्य आनी उदेंत आशियांत पातळ्ळो. उपरांत हो धर्म चीन, जपान, कोरिया, मियानमार आनी हेर अस्तंत देशांनी पावलो. पूण आठव्या शेंकड्यासावन भारतांत ताका देंवती कळा लागली. बौध्द अनुयायांमदीं पडिल्ली फूट, संघांतलो वाडटो भ्रश्ट्राचार ब्राह्मणांची एकवट, राजपूतांचें वर्चस्व, भक्ती चळवळीचो नेट, हिंदू धर्माचें स्वांगीकरण (assimilation), मुसलमान सुलतानांच्यो आनी हेर परकी राजांच्यो घुरयो ह्या सगळ्यांक लागून बौध्द धर्माचो भारतांतल्यान ल्हव ल्हव ऱ्हास जावपाक लागलो.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** बुध्द गौतम, त्रिपिटिका, बौध्द साहित्य, धम्मपद.

**बौध्द साहित्य :** दर एकल्यान आपलीं वचनां, धर्माचे उपदेश आपले भाशेंत जाणून घेवंचे असो बुध्दान आपल्या भिक्षूंक आदेश दिल्लो. ताका लागून हालीं बौध्द साहित्य विंगड विंगड भाशांनी उपलब्ध जाल्लें दिसता. वैदिक भाशेक मात ताचो खर विरोध आशिल्लो. देखून बौध्द धर्माचे ग्रंथ प्राकृत भाशांनी आसात. उत्तर भारतांतल्या कितल्याशाच बोलींनी बुध्दवचनां मेळटात. बौध्द संकर संस्कृत अशी एक भाशा आशिल्ल्याचें आनी तेय भाशेंत बौध्द साहित्य आशिल्ल्याचें आचार्य नरेंद्र देव हाचें मत आसा. उपरांत संस्कृत भाशेंतूय बौध्द ग्रंथ तयार जावंक लागले. तिबेटी आनी चीनी ह्याय भाशांनी खूबशें बौध्द साहित्य निर्माण जालें. तातूंतलें सगळ्यांत पोरणें साहित्य पाली भाशेंत आसा. ते भाशेंत मूळ 'त्रिपिटक' ग्रंथ उपलब्ध आसून भारत सरकाराच्या आदारान, बिहार सरकारान ह्या सबंद ग्रंथाचें ४१ पुस्तकांनी नागरी लिपींत मुद्रण पुराय केलां. तशेंच 'मिलिंदपन्ह', 'नेत्तिपकरण', 'बुध्ददत्तलिखीत भाश्यां', 'त्रिपिटकावयल्यो टिका', 'दीपवंस', 'महावंस', 'चूलवंस', 'जातककथा', ह्या नांवांनीय पाली भाशेंत खूब बौध्द साहित्य आसा.

संस्कृत भाशेंतले बौध्द ग्रंथ कांय हीनयानी पंथाचे, जाल्यार कांय महायानी पंथाचे आसात. तातूंतलो 'महावस्तु' हो ग्रंथ हीनयान पंथाचो नामनेचो विनयग्रंथ आसा. महावस्तुचो अर्थ म्हान विशय वा कथा. हातूंत बोधिसत्वाचे दशभूमींचें विस्तारान वर्णन मेळटा. बुध्दाचें चरित्र हो ह्या ग्रंथाचो मुखेल उद्देश. पूण तो अर्दवट आसा. पूर्वजल्माच्यो कांय कथा आनी ह्या जल्मांत ताणें शारिपुत्र आनी मौद्गलायन, शुध्दोदन आनी महाप्रजापती, राहुल आनी हेर शाक्यवंशीय राजपुत्र हांकां आपले अनुयायी केल्ल्याच्यो कथा तशेंच मगध देशाचो राजा बिंबिसार हाचेकडेन जाल्ली भासाभास ह्या ग्रंथांत आसा.

महायान सुत्रग्रंथांत ललितविस्तार ह्या ग्रंथाक खूब म्हत्व आसा. वैपुल्यसुत्रांत ह्या ग्रंथाचो आस्पाव जाता. बुध्दान ह्या भूमंडलाचेर ज्यो ललितक्रीडा केल्यात, तांचें वर्णन ह्या ग्रंथांत आशिल्ल्यान ताका ललितविस्तार अशें नांव मेळ्ळां. हातूंत धर्मचक्रप्रवर्तना मेरेनचेंच बुध्दचरित्र आसा.

उपरांत अश्वघोषाचें बौध्द साहित्य येता. ताणें 'बुध्दचरित' आनी 'सौंदरनंद' हीं दोन महाकाव्यां आनी 'सारीपुत्तपकरण' ह्या नांवाचें नाटक अशे ग्रंथ बरयले. बुध्दचरितांत बुध्दकथा आसात, जाल्यार सौंदरनंद ह्या काव्यांत बुध्दाचो भाव नंद हो बौध्द धर्मांत कसो दीक्षित जालो, ताची कथा आसा. सारीपुत्तपकरणांत सारीपुत्र आनी मौद्गलायन हे दोग बौध्द धर्माचे अनुयायी जाले ती कथा आसा. अश्वघोषाचें संस्कृतांत आशिल्लें तेरा सर्गांचें बुध्दचरित हें अर्दवट आसून, अमृतानंद नांवाच्या विद्वानान ताका १४ ते १७ सर्गांमेरेन पुस्ती जोडल्या. पूण तिबेटी आनी चीनी भाशांनी हाचे २८ सर्ग आसात.

अवदान साहित्यांत 'अवदानशतक' हो हीनयानांचो ग्रंथ आसा. तशेंच 'दिव्यावदान', 'कल्पद्रुमावदानमाला', 'अशोकावदानमाला', 'द्वाविंशत्यवदानमाला', 'भद्रकल्यावदान', 'विचित्रकर्णिकावदान', 'अवदानकल्पलता' हे ग्रंथ मेळून अवदान साहित्य जाता.

'निदानकथा' हें पाली भाशेंत आशिल्लें एकलें एकसुरें बुध्दचरित्र. आर्यसूराची 'जातकमाला' हया ग्रंथाची काव्याचे नदरेन खूब नामना आसा. ह्या ग्रंथांत बुध्दाच्या पूर्वजल्माकडेन संबंदीत आशिल्ल्यो कथा आसात. हो ग्रंथ पाली भाशेंत आसून तातूंत ५०० कथा आसात.

हालीं सर्वास्तिवादी आनी मूलसर्वास्तिवादी ह्या संप्रदायांचे कांय तुटक्या स्वरुपांतले ग्रंथ बौध्द संस्कृत भाशेंत उपलब्ध आसात. सर्वास्तिवाद्यांचें 'प्रतिमोक्षसूत्र' 'महापरिनिर्वाणसूत्र' तशेंच मूलसर्वास्तिवाद्यांचें 'प्रतिमोक्षसूत्र' आनी विनयपिटकांतले कांय उतारे, संस्कृतांत लेगीत उपलब्ध आसात. 'वज्रसूची' ह्या ग्रंथांत जल्मजात शुध्दीचे कल्पनेचेर खर टिका आसा.

महायानिकांच्या 'वैपुल्य' नांवाच्या सूत्रखंडांत आशिल्ल्या 'अष्टसाहस्त्रिका प्रज्ञापारमिता', 'गंडव्यूहसूत्र', 'समाधिराजसूत्र', 'सध्दर्मपुंडरीक' 'ललितविस्तर', 'लंकावतार' 'सुवर्णभास', 'गंडव्यूह', 'तथागतगुह्यक', 'समाधिराज' आनी 'दशभूमीश्वर' ह्या णव ग्रंथांचो उल्लेख करूं येता. नेपाळांत हांकां नवधर्म म्हण्टात. ह्या ग्रंथाचे वट्ट २७ अध्याय आसात. चीन आनी जपानांत 'सध्दर्मपुंडरीक' ह्या ग्रंथाक खूब म्हत्व आसा. ह्या ग्रंथाच्या अणकाराचें थंय व्हड भावार्थान पठण करतात.

वैभाषिक आनी सौत्रांतिक ह्या संप्रदायांची तात्त्विक विचारसरणी, वसुबंधूचो 'अभिधर्मकोश' आनी ताचेवयलें ताचें स्वताचें भाश्य तशेंच ह्या भाश्यावयले यशोमित्राची 'स्फुटार्थां अभिधर्मकोशव्याख्या' आनी १९५९ वर्सा उजवाडा आयिल्लो 'अभिधर्मदीप' ह्या ग्रंथावयल्यान समजता.

नागार्जुनाची मूलमध्यमककारिका आनी ताचेवयली चंद्रकीर्तीची 'प्रसन्नपदा' नांवाची टिका ही माध्यमिकांची विचारसरणी सांगतात. तशेंच

'लंकावतारसूत्र', 'असंगाचे योगाचार-भूमिशास्त्र' आनी वसुबंधूची 'विंशतिका' आनी 'त्रिंशिका' तशेंच 'त्रिंशिके'वयली स्थीर मताची टिका हे ग्रंथ विज्ञानवादाचें समर्थन करतात.

तंत्रीक बोध्दांचेय वाङमय संस्कृत भाशेंत आसून 'श्री गुह्यसमाजतंत्र' हो तांचो मुखेल ग्रंथ अशे मानतात. तशेंच 'अद्वयवज्रसंग्रह', 'सहजसिध्दि', 'हेवज्रतंत्र', 'मंजुश्रीमूलकल्प' हेय हेर ग्रंथ आसात. 'साधनमाला' ह्या ग्रंथांत खूबशा बौध्द देवदेवतांच्या भायल्या स्वरुपाचीं वर्णनां आसून तांचे पुजेचींय तंत्रा तातूंत सांगल्यात.

पाली ग्रंथांतल्या कांय किरकोळ सुत्रांचे संस्कृतांत अणकार आसात. अपभ्रंश भाशेंतल्या 'दोहाकोश' ह्या ग्रंथाचोय तिबेटी अणकार आसा. चीनी भाशेंत त्रिपिटक ग्रंथ आसून हेर २,००० च्या वयर ग्रंथ आसात. तातूंत लेगीत चडशीं मूळ संस्कृत ग्रंथांचीं चीनी संस्करणां आनी स्वतंत्र ग्रंथ आसात. पाली सुत्रांचेय थोडे अणकार चीनी भाशेंत आसात. तिबेटी भाशेंत 'कांजूर' आनी 'तांजूर' हे दोन व्हड ग्रंथां झेले आसून तातूंत साडेचार हजरांवयर ग्रंथ आसात. हातुंतूय चडशे मूळ संस्कृत ग्रथांचे अणकार आसून स्वंतत्र ग्रंथूय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्यर्नसॉन, ब्यर्नस्टेअर्ने :** (जल्म : ८ डिसेंबर १८३२, किव्हक्न, नॉर्वे; मरण : २६ एप्रिल १९१०, पॅरीस).

नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो नामनेचो नॉर्वेजियन साहित्त्यीक. १८३७ त ताचें कुटूंब पॅरीसांतल्या नेसेतांत रावपाक आयलें. मोल्ड गांवचे माध्यमिक शाळेंत ताणें आपलें शालेय शिक्षण पुराय केलें. ल्हानपणासावनूच गजाली सांगपी म्हणून ताची नामना आशिल्ली. १८५२ त ताणें क्रिस्तियानाक वचून विद्यापिठांत प्रवेश मेळयलो, तरी तो विद्यापिठीय शिक्षण पुरें करूंक शकलोना. १८५५ वर्सा सावन ताणें इलस्तेरेंत फोल्केब्लाद ह्या नेमाळयांतल्यान कथा बरोवपाक सुरवात केली. फुडें तो ह्या नेमाळयाचो संपादक जालो. उपरांत फुडल्या पंदरा वर्सांमदीं ताणें स्विडनांतल्या अप्साला ह्या नगराच्या इतिहासापसून स्फूर्त घेवन पुर्विल्ल्या स्कँडिनेव्हियांतल्या लोककथांचेर आनी इतिहासीक महाकथांचेर आदारीत नाटकां आनी कविता बरयल्यो. ताणें 'सनी हिल्स' (१८५७) 'आर्ने' (१८५८), 'हॅपी बॉय' (१८६०), द फिशर लॅसी' (१८६८) आनी 'द ब्रायडल मार्च' (१८७३), ह्या कथासंग्रहांवरवीं नोर्वेजियन शेतकी जीण लोकांमुखार दवरली. 'या वि एल्स्के देत्ते लान्ने' हें नोर्वेचें राश्ट्रगीत ताणेंच बरयल्लें. सिन्नोवे सुलबाक्केन नांवाचे कादंबरीचेर आदारिल्लें आनी रंगमाचयेर विलक्षण प्रभाव घालपी 'मेल्लेम स्लागेन्ने' (१८५७) हें ताचें पयलें नाटक. १८५७-१८५९ आनी १८६५ ते १८६७ ह्या काळांत ताणें बर्गेनच्या नॅशनल थिएटरांत दिग्दर्शक म्हणून काम केलें. थंयच कॅरॉलिन रायनर्स नांवाचे नटयेकडेन ताची वळख जाली आनी फुडें तीं लग्न जालीं.

साहित्यावांगडाच तो त्या काळांतल्या उदारमतवादी राजकारणांतूय वांटो घेतालो. १८५९ सावन तो 'आफ्तेनब्लादे' ह्या दिसाळ्याचो संपादक जालो. ह्याच काळांत ताणें 'सोसायटी फॉर नॉर्वेजियन कल्चर' ह्या नांवाची संस्था स्थापन केली. ताच्या उदारमतवादी आनी सुदारणावादी लेखांक लागून ताका १८६० वर्सा 'आफ्तेनब्लादेचें' संपादकपण सोडचें पडलें. सरकाराचो अर्थीक आदार घेवन ताणें पुराय युरोपभर भोंवडी केली. हे भोवंडेच्या तीन वर्सांच्या काळांत ताणें लोककथा आनी इतिहासीक महाकथांचेर नाटकां बरोवपाचो वावर चालू दवरलो. थंयच ताणें 'सिगुर्द स्लेंबे' ह्या नांवाची नाट्यकृती बरोवन काडली. १८६६-७१ ह्या काळांत तो 'नोशक्त फोल्केब्लादे' नांवाच्या नेमाळयाचो संपादक आशिल्लो. रोमाक आसतना डार्विन आनी नामनेचो डेनमार्की साहित्यीक गिऑर ब्रांडेस हांचो प्रभाव ताचेर आशिल्लो. १८७०-८० ह्या काळांत तो बायलांचे हक्क, लैंगिक अडचणी, राजकीय स्वातंत्र्य सारक्या समाजीक प्रश्नांचेर साहित्यनिर्मिती करूंक लागलो. ओपचारीक धर्मसंस्थेआड आपली जिणेविशींची नदर ताणें 'रिदाक्तरेन' (१८७४), 'एन फालीत' (१८७५), कॉंगेन (१८७७), 'ओव्हे एव्हने' (भाग-१ १८८३, भाग-२ १८९५) ह्या नाटकांवरवीं तशेंच द हेरिटेज ऑफ द कुर्टस (१८८४) आनी 'गॉड्स वे' (१८८९) हे कादंबरीवरवीं उकती केली जाचेखातीर ताका भरपूर टिका सोंसची पडली. १८८०-९० ह्या काळांत ताणें वैयक्तिक नितीमत्तेक खरपणान तेंको दिलो. दलीत अल्पसंख्यांक आनी संवसारीक शांतताय हांचेखातीर ताणें जायते यत्न केल्यात. १९०३ वर्सा ताका साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार दिवन भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्यूईसां, फेर्दीना एदवार :** (जल्म : २० डिसेंबर १८४१, पॅरीस; मरण : १६ फेब्रुवारी १९३२, त्यलॉय सेंतँत्वान - वाझे).

फ्रेंच शिक्षणतज्ञ. मुळाव्या शिक्षणाचो संघटक आनी संवसारीक शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो सहमानकरी. ताचो जल्म एका मध्यमवर्गीय कुटुंबांत जालो. पदवी मेळयतकच ताणें शिक्षकी वेवसायांत प्रवेश केलो. पूण तिसऱ्या नेपोलियनाकडेन एकनिश्ठ रावपाचो सोपूत ताणें न्हयकारलो, देखून ताका नोकरी सोडची पडली. फुडें ताणें नशाटेल (स्वित्झर्लंड) शारांत अध्यापकाची नोकरी धरली (१८६६).

जिनिवाचे पयले शातंताय परिशदेक तो हाजीर आसलो (१८६७). तातूंत युनायटेड स्टेट्स ऑफ युरोप असो एक संघ आसचो, हें मत ताणें मांडलें. तिसऱ्या नेपोलियनाचेर हार पडटकच फ्रांसांत तिसरें प्रजासत्ताक स्थापन जालें (१८७१). तेन्ना तो फ्रांसाक परतलो आनी

फ्रँको-प्रशियन झुजांतल्या (१८७०-७१) पिडितांखातीर ताणें मदतकेंद्र उगडलें. ते उपरांत ताची पूर्वमुळाव्या शिक्षण खात्यांत शिक्षणाधिकारी म्हणून नेमणूक जाली. शालेय अभ्यासक्रमांत धर्मीक शिक्षण नासचें, अशें ताचें स्पश्ट मत आशिल्लें. फुडें ताची पॅरीसांतल्या पब्लिक स्कुलाचो म्हानिरीक्षक म्हणून नेमणूक जाली (१८७८), पूण धर्मीक शिक्षणाक ताचो विरोध आशिल्ल्यान ताका ह्याय पदाचो राजिनामो दिवंचो पडलो.

इगर्जेच्या नियंत्रणांतल्यान पब्लिक स्कूल ही संस्था स्वायत्त आसची आनी तिचेर इगर्जेचें कसलेंच नियंत्रण आसचें न्हय, हेखातीर फ्रांसाचो तेन्नाचो प्रधानमंत्री झ्यूल फेरी हाणें दोन अधिनेम तयार केले. तांचो मसुदो तयार करपाक ब्यूईसांन मदत केली (१८८१ आनी १८८६). ताणें यत्न केल्ल्यान फ्रांसांत मुळावें शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें केलें. तेउपरांत ताची सॉरबॉन विद्यापिठांत प्राध्यापक म्हणून नेमणूक जाली (१८९६). ताणें मानवी हक्कांचो पुरस्कार करपी (League of Human Rights) संघटना स्थापन करपाखातीर फुडाकार घेतलो (१८९८). फुडें तो फ्रेंच संसदेचेर वेंचून आयलो. तिचो तो कितलींशींच वर्सां वांगडी आशिल्लो (१९०२-१४ आनी १९१९-२३).

पयल्या म्हाझुजापयलींच ताणें शांतताय आनी सहजीवन ह्या तत्त्वांचो पुरस्कार केलो आनी म्हाझूजकाळांत मानवी हक्कांचे राखणेखातीर फ्रांसान केल्ल्या लश्करी प्रतिकाराचें ताणें समर्थन केलें. फुडें राश्ट्रसंघाचे स्थापनेक ताणें पुराय तेंको दिलो. मानवी हक्क संघाचो अध्यक्ष (१९१३-२६) ह्या नात्यान तशेंच फ्रँकोप्रशियन झुजांत केल्ल्या मदतकार्याक लागून संवसारीक शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार लुटाविख क्विडेवांगडा ताका वांटून मेळ्ळो (१९२७). राजकारणांत ताणें सदांच पुरोगामी चळवळीक तेंको दिलो. बायलांक मताधिकार आनी प्रमाणशीर प्रतिनिधित्व ह्या लोकशाही तत्त्वांचो ताणें पुरस्कार केलो. ताणें वेगवेगळ्या नेमाळ्यांतल्यान स्फूट लेख बरयले. शिक्षणशास्त्रावयलो Dictionary the pedagogy (६ खंड, १८८२-९३) हो ताचो संपादीत ग्रंथ उजवाडाक आयला.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्योल, हायन्रिख : (जल्म : २१ डिसेंबर १९१७, कॉल्न).

नोबॅल पुरस्कार फावो जाल्लो जर्मन कथाकादंबरीकार. कॉल्न विद्यापिठांत ताणें आपलें शिक्षण पुराय केलें. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत जर्मन सेनादलांत सैनीक म्हणून तो भरती जालो. झुजा उपरांत परत कॉल्नाक येवन तो लिखाण करूंक लागलो. आपल्या कथा-कांदबरीं वरवीं ताणें झुजाक लागून निर्माण जाल्ल्यो अडचणी वेगवेगळ्या रुपांनी लोकांमुखार दवरल्यो. 'दॅर त्सूग वार प्युंक्तलिझ' (१९४९) ती ताची पयली दीर्घकथा. उपरांत ताणें बरयल्ल्या 'वाण्डरर, कोम्स्ट डू नाख श्पा' (१९५०) ह्या कथासंग्रहावरवीं ताची झूजविरोधी भुमिका स्पश्ट जाता. 'वो वार्स्ट डू आडाम?' (१९५१) ही ताची पयली कादंबरी. ते उपरांत ताणें उण्ट झाग्ट डकायन आयनत्सिगेस बोट (१९५३) ही कादंबरी बरोवन तातूंत बॉबहल्ल्यांत उध्वस्त जाल्लें एक शार दाखयल्लें आसून एका जोडप्याच्या जिविताचें चित्रण करून ताणें तेवरवीं झुजाउपरांतच्या काळांतले जिणेचो थाव घेवपाचो यत्न केला. उपरांत ताणें बरयल्ल्यो हेर उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो अशो- हाऊस ओन ह्यूटर (१९५४), बिलिआर्ड उम हाल्बत्सेन (१९५९), आनझिश्टेन आयनेस क्लाउनेस (१९६३) ग्रुप्येनबिल्ड मिट डामअ (१९७१). ताच्या कांय कथांचे इंग्लीश अणकार 'एटीन स्टोरीस' (१९६६) आनी 'चिल्ड्रन आर सिव्हिलियन्स टू' (१९७२) ह्या नांवान पुस्तक रुपान उजवाडा आयिल्ले आसात. कथा कादंबऱ्यां भायर ब्योल हाणें निबंध, नाटक, नभोवाणी, श्रुतीका आदी साहित्यप्रकार केळयल्यात. ताका १९७२ वर्साचो साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार दिवन ताचे साहित्यसेवेचो भोवमान केला. तेभायर ताका हेर जायते भोवमान मेळ्ळयात.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्रजबुली भास आनी साहित्य :

ब्रजबुली हें एका खाशेल्या वैश्णव भावकवितांच्या प्रकाराक आनी ताचे शुध्द वाङमयीन भाशेक दिल्लें नांव. ब्रजवासी राधाकृष्ण ह्या दिव्य प्रेमी युगुलाच्या संभाशणाची भाशा हीच आशिल्ली, हे समजुतीन हे भाशेक 'ब्रजबुली' अशें नांव मेळ्ळें. ह्या गितांनी राधाकृष्णाच्या शृंगाररसाचें वर्णन आसा. तशेंच चैतन्यांच्या स्तवनाचींय पदां आसात. तातूंत शृंगाराक आनी भक्तिरसाक चड प्राधान्य आसा.

सोळाव्या ते एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या अदमासाक ब्रजबुली भाशेंत वैश्णवांनी भावगितां रचलीं. बंगाली, असमिया आनी उडिया ह्या भाशांची भरसण आशिल्ली मैथिली भाशा ही ब्रजबुलीचो आदार. तेच भाशेन हिंदी आनी ब्रज भाशा हांचोय हे भाशेचेर प्रभाव दिसता. बंगालांत चैतन्यप्रभू आनी आसामांत शंकरदेव हांच्या उदयावांगडाच ब्रजबुलीचो साहित्यप्रकार फुडें आयलो.

यशोराजखान हाणें १४९३ ते १५१९ ह्या काळांत बंगालांत बरयल्ल्यो, पंदराव्या सोळाव्या शेंकड्यांत रामानंद राय हाणें ओरिसांत बरयल्ल्यो आनी व्हड संतकवी शंकरदेव हाणें आसामांत बरयल्ल्यो कविता, उपलब्ध ब्रजबुली कवितांतल्या सगळ्यांत पोरन्यो कविता आसात. पूण बंगलांत जे तरेन ब्रजबुली साहित्य समृध्द जालें तितल्या प्रमाणांत आसामांत आनी ओरिसांत जालेंना. सतराव्या शेंकड्यासावन रचिल्ल्या चारशें कवींच्यो सुमार पांच हजार कविता संग्रहीत केल्यात. तातूंत कांय वैश्णवपंथी मुसलमान कवींचोय आस्पाव जाला. इ. स. सोळाव्या ते अठराव्या शेंकड्यांतले हेर नामनेचे कवी अशे आसातः मुरारिगुप्त,

लोचन, ज्ञानदास, बलरामदास, अनन्त, चंडीदासबडू, नरोत्तम दास, गोविंददास कविराज, नसीर मामूद आनी आलाओल सय्यद.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन ब्रजबुली साहित्य सतत निर्माण जायत आशिल्लें. ह्या शेंकड्याचे अखेरेक कांय इंग्लीश शिक्षण घेतिल्ल्या तरणाट्यांनी ताचें पुनरुज्जीवन केलें. पूण तातूंत बरीचशी कृत्रिमताय दिश्टी पडटा. ह्या तरणाट्यांभितर मुखेल म्हणून जन्मेजय मित्र आनी नामनेचो कादंबरीकार बंकिमचंद्र चटर्जी हांचो उल्लेख जाता.

रवींद्रनाथ टागोर हाणें १८८४-८५ वर्सा 'भानुसिंह ठाकुर' ह्या टोपणनांवान वीस ब्रजबुली भावकवितांचो झेलो उजवाडायलो. बंगलांत आयज लेगीत कांय ब्रजबुली काव्यां रचप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रज भास :** अस्तंती हिंदीच्या पांच बोलींतली एक मुखेल बोली. ब्रज हें उतर संस्कृत 'ब्रज' ह्या उतरा वयल्यान आयलां. पूण पुर्विल्ल्या साहित्यांत 'ब्रज' ही एक भुगोलीक संज्ञा आसून ती मथुरा आनी तिचे भोंवतणचो प्रदेश हांकां लायल्या. ग्रियर्सनच्या मताप्रमाण हे बोलीचो प्रचार उत्तर प्रदेशांतले मथुरा, अलीगढ, आग्रा, बुलंदशह, एटा, मैनपुरी, बदायूँ आनी बरेली; पंजाबांत गुडगांव जिल्ह्याची उदेंत पट्टी; राजस्थानांत भरतपूर, धौलपूर, करौली आनी जयपूरचो उदेंत वाठार आनी मध्य प्रदेशांत ग्वाल्हेरच्या अस्तंत वाठारामेरेन मानतात. डॉ. धीरेंद्र वर्मा हाच्या मताप्रमाण कनौजी बोली लेगीत ब्रजभाशेंतलीच आसून पीलीभीत, शाहजहाँपूर फर्रुखबाद, हरदोई, इटावा आनी कानपूर ह्या जिल्ह्यांतली हिंदी भाशा हीय ब्रजभाशाच.

शौरसेनी भाशेंतल्यान ब्रजभाशेचो उगम जाला अशें मानतात. हे भाशेक 'ब्रजभाशा' हें नांव मेळचेपयलीं प्रदेशाप्रमाण तिका पिंगल, मध्यदेशी, ग्वालिअरी, अंतर्वेदी, भारवा अशीं नांवां आशिल्लीं.

हे भाशेंतले स्वर अशे आसात (शुध्द) अ आ इ उ ए ओ, (संयुक्त) ए, औ शुध्द स्वर ऱ्हस्व वा दीर्घ आसूं येतात.

**व्यंजनां :** स्फोटक- (कंठ्य) क ख ग घ;

(मूर्धन्य) - ट ठ ड ढ;

(दंत्य) - त थ द ध दं;

(ओठ्यीं) - प फ ब भ.

अर्दस्फोटक - (तालव्य) च छ ज झ.

अनुनासिक - ङ ण न न्ह म म्ह.

द्रव - र ऱ्ह ल ल्ह.

घर्षक - स ह.

अर्दस्वर - य व.

**व्याकरण** - नाम - ब्रज भाशेंतूय पुल्लिंग आनी स्त्रीलिंग हीं दोनूच लिंगां आसात. विशेशणांच्या वापरान लिंगांचो भेद समजता. देखीक बडो माट (पुल्लिंगी) 'व्हड मडकें'.

तेच भाशेन एकवचन आनी अनेकवचन अशीं दोन वचनां आसात. चडशें सरळ रुपांत म्हळ्यार कर्तृवाचक प्रत्ययहीन रुपांत अनेकवचन एकवचना भाशेनूच आसता. फकत उतरांचे निमाणें स्वर 'ओ' वा 'औ' आसल्यार एकवचनी नामांचें रूप अनेकवचन करतना 'ए' ह्या स्वरान बदलता. देखीक - जनो (एकवचन) जण, जने (अनेकवचन) जण. उकारांत स्त्रीलिंगी रुपाक 'ऐं' हो अनेकवचनी प्रत्यय लायतना निमाणो स्वर 'ऊ' 'चो' 'उ' जाता. ह्या क्रियापादाचें सामान्य भूतकालीन एकवचनाचें पुल्लिंगी रूप औकारान्त आसता. देखीक काटो छोरौ बोलौ (काळो भुरगो उलयलो). सामान्य रुपांत फकत पुल्लिंगाच्या शेवटाक 'ओ' आसल्यार ताचे बदलाक 'ए' येता. सामान्यरुपाचें अनेकवचन मूळ सरळरुपाक 'अन' हो प्रत्यय लागून जाता. चडशे खेपे शब्दयोगी प्रत्यया पयलीं नामाक 'के' वा 'की' हो प्रत्यय लागता.

ब्रजभाशेचीं पदचिन्नां इ. स. च्या १०व्या शेंकड्यासावन दिसतात. गोरख उपनिशदांतल्या गद्यांत ब्रजभाशेचें पुर्विल्लें रूप पळोवंक मेळटा. इ. स. च्या ११व्या शेंकड्यासावन ल्हव ल्हव वाडत वचून सोळाव्या शेंकड्यामेरेन मध्यप्रदेशाची भाशा म्हणून ब्रजभाशेक प्रतिश्ठा मेळपाक लागली. इ. स. १५१९ वर्सा वल्लभाचार्यान, गोवर्धन पर्वताचेर श्रीनाथजीच्या देवळांत किर्तनां करपाचो संकल्प केलो. तेखातीर ताणें कवी आनी गायक सोदून ब्रजमंडलांत हाडले. ह्या कवींभितर सूरदास आनी नंददास हे श्रेश्ठ कवी मानतात. एके सामान्य बोलीक साहित्यीक भाशेच्या रुपांत विकसीत करपाचें श्रेय ह्या दोगांकूय वता. १७ व्या आनी १८ व्या शेंकड्यांमदीं हे भाशेंत भरपूर कृष्णकाव्याची निर्मिती जाली. उपरांत ब्रजभाशा ही फकत ब्रजमंडळाची भास उरनासतना समेस्त हिंदी प्रदेशाची एक मुखेल साहित्यीक भास जाली. ह्या दोन शेंकड्यांतलें हिंदी रीतिसाहित्य लेगीत ब्रजभाशेंत बरोवप जालें. इ. स. च्या २०व्या शेंकड्यांत मात हे भाशेचो प्रभाव खूब उणो जालो.

- डॉ. बी. डी. मिश्र

**ब्रज साहित्य :** नाथ-पंथियांच्या रचनांतल्यान ब्रज भाशेचें सगळ्यांत पोरनें रूप दिश्टी पडटा. 'मेरी बोली पूरबी' अशें म्हणपी कबीराच्या पदांची आनी साख्यांची आदारशिलाय ब्रज भाशाच आसा. सुरदासाचे पयलीं अस्तंती हिंदीची दोन रुपां आशिल्लीं- एक 'डिंगल' आनी दुसरे 'पिंगल'. डिंगल ही वीरकाव्याची भास आशिल्ली. तिचो प्रभाव गुजराती राजस्थानी आनी पंजाबीचेर पडला. साहित्यीक अस्तंती अपभ्रंशापसून डिंगलचो विकास जालो आनी ब्रज भाशेंतल्यान पिंगल साहित्याचो विकास

जालो. 'रासो' काव्य डिंगलांत आसून, तातूंत पिंगलाचोय आस्पाव जाता. गोरखनाथ आदिम अवस्थेचो रचनाकार आसा. पूण कबीराचे भाशेची आदारशिला ब्रज भाशाच. गुरू 'ग्रंथसाहिबा'त प्राचीन कवींचीं जीं पदां आसात तातूंत जयदेव, नामदेव, कबीर ह्या संतांची तशेंच गुरू नानकाची भाशाय ब्रज आसा. अमीर खुसरौ हाणें ब्रज भाशेवांगडाच खडी बोलिंतूय रचना केल्या.

ब्रज भाशेक स्थायी रुपांत प्रतिश्ठीत करपी वल्लभाचार्य हाणें काशींत शिक्षण आनी दिक्षा घेवन चिंतन-मनन करतकच 'ब्रज' हें आपलें केंद्र दवरलें आनी गोवर्धन पर्वताचेर श्रीनाथजीचे उपासनेच्या माध्यमांतल्यान ब्रज संस्कृतीक समृध्द केली. ब्रज संस्कृती, ब्रज भाशा, ब्रज संगीत, ब्रज कला हांचेर कृष्णभक्तीचो आनी वल्लभ संप्रदायाचो स्थायी प्रभाव आसा.

१५२३ वर्सा सूरदासान वल्लभाचार्या कडल्यान दिक्षा घेतली. कांय तेंपान कुंभनदास, परमानंददास आनी कृष्णदास हे तीन कवी ह्या संप्रदायांत आयले. वल्लभाचार्या उपरांत ताचो पूत विठ्ठल हो संप्रदायाचे गादयेर आयलो. ताणें आपल्या बापायचें कार्य मुखार व्हरचेपासत ह्या तीन कवींवांगडा गोविंदस्वामी, नंददास, छीतस्वामी आनी चुतर्भुजदास ह्या आपल्या शिश्यांक घेवन कवींचें अश्टक स्थापन केलें. ब्रज भाशेच्या कवींभितर सूरदास हो कवी सगळ्यांत पयलो आनी सगळ्यांत श्रेश्ठ मानतात. 'सूरसारावलि' आनी 'साहित्य लहरी' ह्यो सूरदासाच्यो कृती मानतात. पूण भगवंताचो आदार घेवन बरयल्लो 'सूर-सागर' हो ताचो म्हत्वाचो ग्रंथ. अश्टतासांच्या हेर सात कवींभितर परमानंददास आनी नंददास ह्या कविंकूय खूब नामना मेळ्ळी. ह्या अश्टतासांच्या कवींभायर वल्लभ संप्रदायांत हेर कवी आशिल्ले. तेच भाशेन हित हरिवंशप्रणीत 'राधावल्लभ पंथ' आनी 'हितचौरासी पंथ' हांणीय ब्रज भाशेच्या काव्याक मानादीक सुवात मेळोवन दिल्या.

संप्रदाया भायर रावन ज्या कवींनी ब्रज भाशा समृध्द केली अशा कवींभितर तुलसीदास, मीराबाई, रसखान, रहीम, सेनापती हांचो आस्पाव जाता. वाङमयीन अवधी भाशेंत बरयल्लें 'रामचरितमानस' ही तुलसीदासाची उत्कृश्ट रचना आसून रामकथेखातीर ताणें हेर भाशाशैलींचोय उपेग केला. 'कवितावलि' आनी 'गीतावलि' ह्यो ताच्यो ब्रज भाशेच्यो कृती आसात. पूण सगळ्यांत चड नामना आसा ती ताचे 'विनयपत्रिकेची'. भास ही वाङमयीन ब्रज भास आसून काव्याचे नदरेन 'विनयपत्रिका' ही त्या युगाची सगळ्यांत श्रेश्ठ रचना. मीराबाईचे ब्रज भाशेंत गुजराती वा राजस्थानीची सया आसा. रसखान आनी रहीम हे दोगूय धर्मान मुसलमान आशिल्ले. पूण तांचेर भारतीय संस्कृतीचो आनी भक्तीचो इतलो प्रभाव आशिल्लो, ते उच्च कोटीच्या हिंदू भक्तांक लेगीत अनुकरणीय जावन आशिल्ले. ह्याच संदर्भांत नरोत्तम दास आनी सेनापती ह्या दोन कवींचोय उल्लेख येता. नरोत्तमाची फकत 'सुदामा-चरित' ही एकूच रचना उपलब्ध आसून दुसरी रचना 'ध्रुव-चरित' हिचो फकत उल्लेख मेळटा. सेनापतीचे 'कवित्त रत्नाकर' आनी 'काव्यकल्पद्रुम' हे दोन नामनेचे ग्रंथ आसात.

**राजदरबारांतलें साहित्य :** अकबराच्या काळांत मोगल सत्ता खूब थिरावल्ली. त्या वेळार अकबरान ब्रज भाशेक खूब प्रोत्साहन दिलें. ताणें स्वता ब्रज भाशेंत एक छंद बरयलो. ताच्या दरबारांतले कांय कवी ब्रज भाशेंत कविता करताले आनी दरबारी लोक तांकां कवी मानताले. अशा दरबारी कवींभितर महापात्र नरहरी बंदीजन, महाराजा तोडरमल, बीरबल, कवी गंग हांचो आस्पाव जाता. भक्तकवी आनी संगीतकार राजदरबारांत वचनाशिल्ले, पूण दरबारी लोक तांचेकडेन शिकपाखातीर येताले आनी उपरांत दरबारांत तांची नक्कल करपाचो यत्न करताले. अकबराच्या काळांतलो बनारसीदास हो एक नामनेचो ब्रज भाशी कवी. ताणें 'अर्धकथानक' नांवान आपली ५५ वर्सां पिरायेमेरेनची आपजीण बरयल्या. ही हिंदींतली पयलीच आपजीण. गुरू गोविंदसिंग हाणें बरयल्लें 'विचित्र नाटक' हें दुसरें आत्मचरित्र. दोनूय ब्रज भाशेच्या पद्यांत आसात.

१६४३ ते १८४३ ह्या दोनशें वर्सांच्या ब्रज साहित्याचीं खूबशीं खाशेलपणां आसात. ह्या युगांत फकत ब्रज भाशेंत साहित्याची निर्मिती जाल्या. वायव्ये वटेन शीख आनी दक्षिणेंत मराठे हांचेभायर उदेंत आनी अस्तंतेकडले प्रदेश लेगीत हिंदीच्या नांवाचेर फकत ब्रज भाशेचोच उपेग करताले. भक्तीचे सुवातेर शृंगार वा प्रतिक्रिया म्हणून वीररसाक काव्याचो विशय करून वा नितीविशींची सादी-सोंपी कविता बरोवन जनतेक बऱ्या मार्गार हाडपाचो यत्न करप हें ब्रज भाशेचें एक खाशेलपण. आनीक एक खाशेलपण म्हळयार सहजतायेन येवजल्ले कवितेबदला कृत्रीम कवितेचो यत्न करप तशेंच आपलो वचक बसोवपाखातीर काव्यरचनेचे सुवातेर काव्यशास्त्राचें वर्णन करप.

मोगलांची सत्ता वाडत गेली तशी तांचेभितर दुस्मानकाय लेगीत वाडली. भावाक मारून, बापायक बंदिस्त करून दर एक नवो राज्यकर्तो गादयेर बसपाक लागलो. तेन्ना पंजाब, महाराष्ट्र आनी बुंदेलखंडांतल्यो राश्ट्रीय संघटना बळिश्ट जावंक लागल्यो. तांणी एकठांय येवन देशाक परक्यांपसून मुक्त करपाचें थरयलें आनी आपले राज्येवेवस्थेक राश्ट्रीय पांडोव मेळोवन दिलो. ह्या शक्तींनी ब्रज भाशा आपणायली आनी वीरकाव्याक आलाशिरो दिलो. वैश्णव भक्ती बदला शैव भक्ती आनी शक्तीची उपासना लोकप्रिय जाली. ह्याच काळांत राम, शिव, शक्ती, हनुमान ह्या देवतांचेर ब्रज भाशेंत अदीक प्रभावी वीरकाव्याची रचना जाली. अशा साहित्याक चड करून छत्रपती शिवाजी आनी गुरू गोविंदसिंग हांचो आलाशिरो मेळ्ळो.

उत्तर मध्ययुगांत तीन प्रकारांचें साहित्य आशिल्लें. काव्यशास्त्रीय, प्रेमप्रधान आनी अभ्युत्थानपर ब्रज भाशा हिंदींत पयले फावट काव्यशास्त्राविशीं शेंकड्यांनी ग्रंथ बरोवप जाले. त्या ग्रंथांत अलंकार

आनी रस हांचेर भर दिला. कवींनी दोहा छंदांत लक्षण दिलां आनी उपरांत दोहा, सवैया वा कवित्त हातूंत ताचें उदाहरण वर्णिलां. ह्या लेखकांक 'आचार्य कवी' अशें म्हण्टात. तशेंच ह्या युगाचें लोकप्रिय नांव 'रितिकाल' अशें आसा.

आचार्य कवींभितर पयलें आनी मुखेल नांव केशवदास हाचें येता. ताका ह्या काळाचो प्रवर्तकूय मानतात. तो संस्कृताचो प्रकांड पंडीत आशिल्लो. पिळगेन पिळगी राजगुरूच्या पदाचेर ताचो वारसो चलत आयिल्लो. अलंकार विशयावयलो 'कविप्रिया' रसविशयावयलो 'रसिकप्रिया' आनी विंगड विंगड छंदांतल्यो ताच्यो रचना 'रामचंद्रिका' ह्या ग्रंथांत आसात. मुल्यांकनाचे नदरेन सूरदास आनी तुलसीदास हांचे उपरांत केशवदासाचें नांव येता.

केशवदासा उपरांत भिखारीदास ह्या आचार्यान खूब कीर्त जोडली. ताच्यो 'काव्यनिर्णय' आनी 'रससारांश' ह्यो रचना प्रसिध्द आसात. हिंदी ब्रज भाशेचो हो सगळ्यांत विचारशील आचार्य आशिल्लो. ह्या दोनूय आचार्यां वांगडा हेर कांय नामनेच्या आचार्य कवींचोय उल्लेख करप गरजेचें. तांचीं नांवां अशीं- चिंतामणी त्रिपाठी 'कविकल्पतरू', जसवंतसिंह-'भाषाभूषण', मतिराम - 'ललित ललाम' आनी 'रसराज', भूषण- 'शिव-राजभूषण, कुलपतिमित्र 'रसरहस्य', देव- 'भावविलास' आनी 'काव्यरसायन', सोमनाथ - 'रसपीयूषनिधी', दुलह- 'कविकुलकंठाभरण', पद्माकर भट्ट- 'पद्माभरण' आनी 'ज़गद्‌विनोद', प्रतापसाही - 'व्यंगार्थ कौमुदी' आनी 'काव्यविलास', रसिक गोविंद - 'रसिक गोविंदानंदघन'.

प्रेमप्रधान काव्य बरोवपी कवींचेर संप्रदायाचें वा हेर कसलेंच बंधन नाशिल्लें. ह्या कवींच्या पंगडांत बिहारी हो मुखेल कवी आशिल्लो. ताका औरंगझेबाचो सेनापती मिर्झा राजा जयसिंह हाचो स्थायी आलाशिरो आनी जिवीतभर असामान्य भोवमान फावो जालो. बिहारी हो त्या युगाचो सगळ्यांत श्रेश्ठ प्रतिनिधीक कवी. ताची 'सतसई' ही रचना ब्रज भाशेंतली सगळ्यांत उच्च दर्ज्याची मानतात. काव्यकलेचे नदरेन ब्रज भाशेची हेर खंयचेय रचनेची बिहारी सतसई कडेन तुळा करप शक्य ना अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा.

मुक्तक प्रकारची रचना करपी कवींभितर बिहारी उपरांत 'घनानंद' हाचें नांव येता. ताचे कवितेचो काळ बिहारीपरस एका शेंकड्या उपरांतचो. ताणें वैयक्तिक वेदनेचेर खूब काव्य बरयलें. कांय काळा उपरांत वृंदावनाक वचून ताणें दिक्षा घेतली आनी भक्ती काव्य बरोवपाक सुरवात केली. 'सुजान-सागर' ही ताची नामनेची रचना. प्रेमकवींची संख्या खूब व्हड असा. एक कवी धर्मांतर करून मुसलमान जालो आनी 'आलम' नांवान कविता करूंक लागलो. तशेंच, ताज नांवाची एक मुसलमान बायल श्रीकृष्णाच्या रुपाचेर भाळून हिंदू जावपाक तयार आशिल्ली. वेनी, मंडन, ग्वाल, बोधा, ठाकूर हेय कांय नामनेचे प्रेमकवी.

शिखांचो धावो आनी निमाणो गुरू गोविंदसिंग हाणें शस्त्र आनी शास्त्र ह्या दोनांयच्या आदारान राश्ट्राक नवी उर्बा दिली. ताच्या रचनांक 'दसमग्रंथ' म्हण्टात. हातूंत एक ल्हानशी पंजाबी रचना आसा, एक औरंगजेबाक बरयल्लें पत्र फार्सी भाशेंत आसा, आनी उरिल्लो पुराय ग्रंथ ब्रज भाशेंत आसा. हातूंतले 'चंडीचरित्र', 'रामावतार' आनी 'कृष्णावतार' हे खूब प्रसिध्द आसात. 'विचित्र नाटक' हें ताचें आत्मचरित्र.

महाराष्ट्रांत छत्रपती शिवाजीच्या आलाशिऱ्यान भूषण कवीन 'शिवराजभूषणाची रचना करून काव्य शास्त्रीय वातावरणाक राश्ट्रीय रूप मेळोवन दिलें. बुंदेलखंडाचो लालकवी हाणें आपल्या 'छत्रप्रकाश' ह्या ग्रंथान राश्ट्रीय जागृती केली. ह्या ग्रंथांत इतिहासीक सामुग्रीय भरपूर मेळटा. राजस्थानाच्या जौधराजान 'हमीर रासौ'ची रचना केली. मुथरेच्या सूदन कवीन 'सुजानचरित्र' ग्रंथांत भरतपूरचो जाटवीर सूरजमल वा सुजानसिंह हाच्या पराक्रमाचें वर्णन केलां. पतियाळांतलो चंद्रशेखर वाजपेयी हाचें वीरकाव्य 'हम्मीर हठ' खूब प्रसिध्द आसा. 'महाभारता' चो ब्रज अणकारूय ह्याच युगांत जाला.

वृंद कवीचें 'वृंदसतसई' वैताल हाचें 'विक्रमसतसई' गिरिधर कविराज हाचें 'कुंडलिया', सम्मन हाचे 'दोहे', दानदयाल गिरी हाचें 'अन्योक्ति कल्पद्रुम' ह्या काव्यांनी नितीकाव्याची परंपरा समृध्द केली. रहीमाचे पयलीं लेगीत ब्रज भाशेंत ही परंपरा चालू आशिल्ली.

रेवाचो राज विश्वनाथसिंह हाणें कबीराच्या 'बीजका'ची टिका रामाक सगूण मानून केली. आनी ब्रज भाशेंत सगळ्यांत पयलें 'आनंद रघुनंदन' नाटक बरयलें. किशनगढचो राजा नागरीदास हाणें विरक्त जावन कृष्णभक्ती आनी ब्रजलीलेचें वर्णन केलां. वल्लभ संप्रदायाच्या ब्रजवासी दासांनी 'ब्रजविलास' नांवाचें कथाकाव्य बरयलें आनी 'प्रबोध चंद्रोदय' नाटकाचो अणकार केलो. मधुसूदन दासान 'रामाश्वमेध' नांवाच्या कथाकाव्यांत तुलसीदासाचे शैलीचें अनुकरण केलां.

ब्रज गद्याचें दर्शन सांप्रदायिक प्रसंगांतल्यान वा कथावार्तातल्यान घडटा. चड करून आधुनिक युगाचे पयलीं गद्द बरोवपाची चाल नाशिल्ली. गोस्वामी विठ्ठलदास हाणें 'शृंगार रसमंडन' नांवाचो सांप्रदायिक ग्रंथ ब्रज भाशेंत बरयला. 'चौरासी वैष्णवन की वार्त्ता' आनी 'दो सौ बावन वैष्णवन की वार्त्ता' हातूंतल्यान ब्रज भाशेचें गद्य कळटा.

उत्तर मध्ययुगांत, काव्यशास्त्रीय ग्रंथांनी गद्याच्यो ओळी समन्वयाखातीर म्हणून वापरपाक लागले. अठराशें आनी एकुणीसशें शेंकड्याच्या संवत्सरांत टिकेच्या निमतान गद्याचो चड उपेग जावंक लागलो. पूण तो लेगीत संस्कृत टिकांपुरतोच, स्वतंत्र न्हय.

**आर्विल्लो काळ** : ह्या काळाचो आरंभ इस्ट इंडिया कंपनीच्या आलाशिऱ्यान फोर्ट विल्यम कॉलेज, क्रिस्तांव मिशनऱ्यांचो धर्मप्रचार आनी खबरांपत्रां सुरू जावन जालो. ल्हव ल्हव ब्रज साहित्याचें क्षेत्र

आटलें आनी निमाणें राश्ट्रीय व्यासपिठाचेर हिंदीचें प्रतिनिधित्व करपी खडी बोलीच प्रजासत्ताक भाशेच्या रुपांत आपणावप जाली. आर्विल्ल्या साहित्याचो पुराणपुरूस भारतेंदू हरिश्चंद्र हाणेंय काव्याखातीर ब्रज भास आनी गद्याखातीर म्हळयार नाटक, निबंध ह्या प्रकारांखातीर खडी बोलीचो उपेग केलो. साहित्यीक नेमाळ्यांचें संपादन, नाट्यलिखाण, समिक्षेचे सिध्दांत, तशेंच भाशणांचे वतीन भारतेंदू हरिश्चंद्र नव्या युगाचो संदेशवाहक जालो आनी सरकाराचो समर्थक राजा शिवप्रसाद हाचे के. सी. एस. आय. (सितारेहिंद) हे उपाधीची प्रतिक्रिया म्हणून लोकांनी हरिश्चंद्राक 'सितारे हिंद' च्या बदलाक 'भारतेंदु' ही उपाधी दिली.

भारतेंदू उपरांत महावीरप्रसाद द्विवेदी हाणें 'सरस्वती' पत्रिकेच्या माध्यमांतल्यान हिंदी साहित्याचें फुडारपण सांबाळ्ळें आनी प्रचलीत कवितेखातीर खडी बोली आपणावन नव्या कवींक उर्बा दिली. द्विवेदीयुग पयल्या म्हाझुजामेरेन चललें. ह्याच काळांत ब्रज भाशेन नवे विशय घेवन, प्रतिस्पर्धी जावन खूब टक्कर दिवपाचो यत्न केलो. ब्रज भास अभिजात जावन साहित्यिकांचें लक्ष नव्या साहित्याचे निर्मितीपरस पुर्विल्ल्या साहित्याचें संपादन, टिका, समिक्षा हातुंतूच घुस्पून उरलें.

भारतेंदू पयलीं राजा लक्ष्मणसिंह हाणें 'अभिज्ञान शाकुंतल' हाचो अणकार करतना गद्यांत खडी बोलीचो आनी पद्यांत ब्रज भाशेचो वापर केला. भारतेंदूच्या नाटकांनीय पद्याखातीर ब्रज भाशाच वापरल्या. मनोरंजन वा दीसपट्ट्या वेव्हारांत खडी बोली वापरूंक येता पूण भावुकता येतकच कवितेखातीर ब्रज भाशाच वापरूंक जाय असो भारतेंदू युगांतल्या साहित्यिकांचो समज आशिल्लो. कादंबरीकार लेगीत मदीं मदीं ब्रज भाशेचीं पदां रचताले त्या काळात कवीसंमेलनांनी साहित्यीक ब्रज भाशेचेंच माध्यम वापरताले. ज्या कवींची खडी बोलींत कविता करपाक नामना आसा तांणीय आपले रचनेचो आरंभ ब्रज भाशेंतले रचनेनूच केल्लो. मैथिली शरण गुप्त 'मधुप' ह्या टोपणनांवान कविता बरयतालो. अयोध्यासिंह उपाध्याय 'हरिऔध' हाचीं ब्रज भाशेंत कितलींशींच कथाकाव्यां आसात. जयशंकर प्रसाद हाचीं सुरवातीचीं गितां ब्रज भाशेंत आसात. तेच भाशेन देवीप्रसाद पूर्ण, सीताराम, शंकर कवी, भगवानदीन, 'सनेही' ह्या कवींचीं नांवां ब्रज भाशेच्या कवितेच्या क्षेत्रांत प्रसिध्द आसात. बंगालीचो नामनेचो कवी रवींद्रनाथ टागोर हाणें 'भानुसिंह' ह्या टोपणनांवान ब्रज-पदां बरयलीं. 'भानुसिंहेर पदावली' ह्या नांवान तीं पदां उजवाडा आयल्यांत. नामनेचो समिक्षक रामचंद्र शुक्ल हाणें 'बुध्दचरित्र' नांवाचें महाकाव्य ब्रज भाशेंत बरयलां.

खडी बोली युगांतूय ब्रज भाशेचे कवी आशिल्ले. जगन्नाथदास 'रत्नाकर' ह्या ब्रज भाशेच्या साहित्यिकाची 'उद्धवशतक', 'गंगावतरण' ह्या रचनांखातीर तशेंच बिहारी रत्नाकराचे पाठचिकित्सेखातीर कीर्त आसा. सत्यनारायण कविरत्न हाचें 'भ्रमरदूत' हें काव्य खूब प्रसिध्द आसा. वियोगी हरी हाणें ब्रज साहित्याचें संपादन, टिका हांचेर लिखाण केलां. तशेंच ताणें 'वीरसतसई' ची रचना केल्या. दुलारेलाल भार्गव हाणें 'दुलारे दोहावली' बरयल्या. रामशंकर शुक्ल 'रसाल' हो विद्यापिठीय प्राध्यापक आनी नामनेचो टिकाकार आशिल्लो. ताची 'उध्दवशतक' ही उत्कृश्ट रचना. जगनसिंह सेंगर हाणें 'किसानसतसई' आनी रामेश्वर करूण हाणें 'करूणसतसई' ची रचना केल्या. शरणबिहारी गोस्वामी हाणें 'पाषाणी' हें कथाकाव्य तशेंच 'पूंछरी को लौटा' ही कादंबरी बरयल्या. राजेंद्रकुमार शर्मा हाणें 'आधुनिक ब्रज भाषा काव्य' ह्या आपल्या ग्रंथांत सातत्यान ब्रज भाशेंत बरोवपी कवींची विस्कटावणी केल्या.

एका तेंपार उत्तर भारताच्या संस्कृतीक घडामोडींची अभिव्यक्ती करपी प्रातिनिधीक भास आशिल्ली ब्रज भाशेची शीम आतां ब्रज प्रदेशाच्या कांय लोकांचे बोलीपुरती उरल्या. संस्कृत, प्राकृत वा अपभ्रंश ह्यो एका वेळार गौरवशाली आशिल्ल्यो भासो आयज वेव्हारापसून जशो पयस गेल्यात तशी ब्रज भास खासा ब्रज प्रदेशाच्या लोकांपसून लेगीत पयस आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रह्मकमळ :** (पळेयात निवलकाण).

**ब्रह्मगुप्त :** (जल्म : क्रिस्ता उपरांत ५९८, सिंध; मरण : क्रिस्ता उपरांत ६६५).

नामनेचो गणिततज्ञ आनी अवकाशशास्त्रज्ञ. ताच्या बापायचें नांव विष्णुगुप्त. आपलें शिकप पुराय करतकच तो मध्य प्रदेशांतल्या उज्जैन नगरांत आयलो. उज्जैन नगरांत त्या तेंपार भारतांतल्या अवकाशशास्त्राचेर वावर चलतालो. ब्रह्मगुप्तान चडसो वावर अवकाशशास्त्र आनी ताका उपेगी अंकगणिताच्या फांट्याचेर केल्लो आसा. थंय ताणें अवकाशशास्त्राचेर अभ्यास करपाची शाळा उबारिल्ली. हे शाळेंत व्हड व्हड अशे गणीततज्ञ आनी अवकाशशास्त्रज्ञ जावन गेले.

ब्रह्मगुप्ताच्या बरपामदीं 'ब्रह्मस्फुट सिध्दान्त', 'खंडखाद्यक' 'ज्ञानग्रहोपदेश' हीं पुस्तकां चड नामनेचीं जावन रावल्यांत. हातूंत ब्रह्मस्फुटसिध्दान्त हें पुस्तक ताणें पिरयेच्या ३०व्या वर्सा बरोवन काडलें. ह्या पुस्तकांत २१ अध्याय आसून, पयले धा अध्याय अवकाशस्त्राचेर आसात. तातूंत ग्रहांचे भोग, दिसांची गती, सूर्य-चंद्राचीं गिराणां ग्रहांच्यो युत्यो, चंद्राचो कल, ग्रहांचो जागो हे विशींची म्हायती आयल्या. इकरावो अध्याय दूषणाध्याय म्हणून वळखतात. हातूंतलो १२वो अध्याय 'गणिताध्याय' आनी १८वो अध्याय 'कुटकाध्याय' हे चड म्हत्वाचे आसात. १३ ते १७ अध्याय अवकाशशास्त्राचेर आसात. उरिल्ल्या अध्यायांनी छायाशंकूविशीं, मापकां विशीं, गोलांविशीं म्हायती आयल्या.

गणिताध्यायांत, अंकगणित आनी भूमितीचेर, म्हायती मेळटा. जाल्यार कुटकाध्यायांत बिजगणिताचेर भर दिल्लो आसा. ह्या दोन अध्यायांवरवीं ब्रह्मगुप्तान अंकगणित आनी बिजगणीत हे गणिताचे दोन वेगवेगळे फांटे म्हणून तयार केले. ताणें तशें पळयल्यार गणिताच्या सगळ्या फांट्यांचो वावर केला. चार वेगवेगळ्या तरांनी गुणाकार करपाच्यो रिती, अपुर्णांकाच्यो बेरजो (fractions), वजाबाकी, गुणाकार भागाकार आदी तरेतरेचो वावर ब्रह्मगुप्ताच्या पुस्तकांनी मेळटा. $ax^2 + by^2 = 0$; $ax+by = 0$ (indeterminant equation) सोडोवपाच्यो ब्रह्मगुप्ताच्यो रिती अजुनूय आमी वापरतात. आंकड्यांचे माळेची बेरीज (sum of series of numbers) काडपाची रीत ब्रह्मगुप्तान आपल्या वावरांत मांडिल्ली आसा. भूमिती त्रिकोणमिती ह्या फांट्यांचोय ब्रह्मगुप्तान खूबसो वावर केला. त्रिकोणाचे गूणधर्म, त्रिकोणाभोंवतणी काडिल्ल्या वाटकुळाचीं ब्रिजां (radius), क्षेत्रफळ, काडपाच्यो रिती हांचेर म्हायती ह्या ग्रंथांत मेळटा, आलेक्झांड्रियाच्या हॅरोन दिल्लो त्रिकोणाचो क्षेत्रफळ काडपाचो नेम ब्रह्मगुप्तान वापरिल्लो दिसता. उणें-अदीक आनी सारकें (approximate and exact) क्षेत्रफळ हांचे मदलो फरक ब्रह्मगुप्ताच्या वावरांत दिश्टी पडटा. Quadratic Equation सोडोवपाची रीत ब्रह्मगुप्ताच्या नांवान आमी अजुनूय वापरतात. अंकगणिताच्या वावरांत रीण आनी कळंतर दिवपा-घेवपा रीत (barter system) आदींचेरूय ब्रह्मगुप्ताचो वावर जाल्लो आसा. ब्रह्मस्फुट सिध्दान्त ह्या पुस्तकावरवीं अरबी लोकांक भारतांतल्या गणित शास्त्राविशीं म्हायती मेळळी. उजैनचो कंक नांवाचो एक अवकाशशास्त्रज्ञ खलिफा मनसुदच्या आपोवण्यावरवीं अरबी देशांत गेल्लो (७१२-७२५ A. D.). ताणें हें पुस्तक अरबी भाशेंत बरोवपाक आदार केल्लो.

खंडखाद्यक हो ग्रंथ ताणें पिरायेच्या सातसठाव्या वर्सा बरयलो. ह्या ज्योतिर्गणितावयल्या ग्रंथांत २६५ आर्या आसात. ध्यान ग्रहोपदेश ह्या ग्रंथांत ७२ आर्या आसात. नामनेचो भारतीय गणिततज्ञ भास्कराचार्य दुसरो हाणें ब्रह्मगुप्ताक 'गणकचक्र बुधामणी' अशें म्हणून पाचारला. म्हणजेच, सगळ्या गणिततज्ञांचो एक हार तयार केलो जाल्यार तातूंतलो मदलो हिरो म्हळयार ब्रह्मगुप्त.

- व्हाय. एस. वालावलीकार

**ब्रह्मचर्य :** धर्मीक उद्देशान आपणायल्ली लैंगिक सूख वर्ज्य करपाची अवस्था. पुर्विल्ल्या काळारसावन संवसारांतल्या कितल्याशाच समाजांतल्यान आनी धर्मांतल्यान ब्रह्मचर्याचें पालन करपाची प्रथा चलत आयल्या. खंयच्याय समाजांत केन्नाच लग्न जाय नासतना जल्मभर ब्रह्मचर्य पाळप्यांची संख्या तशी उणीच आसता. पूण धर्मीक प्रसंग, झुजासारके म्हत्वाचे अशे कांय प्रसंग, तरणेपण, विधवापण वा विधूरपण, ज्ञानार्जन, वैराग्य आदी कारणांनी खाशेल्या काळापुरतें ब्रह्मचर्य पाळपाचो प्रसंग मात चडसो सगळ्या लोकांचे जिणेंत केन्ना ना केन्ना तरी येत आसता.

भारतीय आश्रम अवस्थेंत ब्रह्मचर्याक पयली सुवात आसा. ब्रह्मचर्याची व्याख्या अशी 'ब्रह्मणे वेदार्थं, चर्यं आचरणीयम' = ब्रह्म म्हळयार वेद, ते शिकपाखातीर आचरपाचें अशें व्रत. हें व्रत आचरण करपी तो ब्रह्मचारी. ताची व्याख्या अशी 'ब्रह्म ज्ञानं तपो वा आचरति' = ब्रह्म म्हळयार वेदवेदांगाचें ज्ञान वा तप, तेखातीर जो व्रतआचरण करता तो ब्रह्मचारी. मूज बांदले उपरांत नेम आपणावन, गुरूम्हर्‍यांत रावन जो सांग वेदाचें अध्ययन करता तो ब्रह्मचारी.

महाभारताच्या नीलकंठी टिकेंत ब्रह्मचाऱ्याची व्यापक व्याख्या दिल्या ती अशी :

ब्रह्मण्येव चार : कायवाङ्मनसां प्रवृतिर्येवाम् ।

अर्थ - जे मन, वाचा आनी कर्म हांचेवरवीं ब्रह्माची (वेद आनी ईश्वर) सेवा करतात, ते ब्रह्मचारी.

महाभारतांत ब्रह्मचर्याचे चार पाद (कर्तव्यां) सांगल्यात, ते अशे - गुरूची सेवा, वेदाध्ययन, राग आनी अभिमान सोडप हो पयलो पाद. आचार्याक आवडपी वावरांत वांटो घेवप, आनी आचार्याची बायल आनी पूत हांची सेवा करप हो दुसरो पाद आचार्याच्या उपकारांची सदांच याद दवरून ताचेर निश्ठा दवरप हो तिसरो पाद. सादेपणान तशेंच नम्र जावन भक्तिभावान गुरूक दक्षिणा दिवप हो चवथो पाद.

वैदिक ब्रह्मचर्याश्रम ८ वर्सांचे पिरायेपसून सुरू जाता. मनशाचे बाबतींत ब्रह्मचर्याचो काळ म्हळयार भावी जिवितांतलो एक म्हत्वाचो असो काळ. ह्या काळांत, शरिरीक बळ, मनोबळ, विद्या, हांची साधना करपाची आसता. हो बळ मेळोवपाचो काळ आशिल्ल्यान संवसारांतले खोशयेपसून पयस रावन ह्या काळांत कश्ट आनी साधना हांची कास धरची पडटा. हें सगळें जाणून गौतम, बोधायन, वसिष्ठ, मनू आदी सगळ्या धर्मशास्त्रकारांनी आश्रमवेवस्थेंत ब्रह्मचर्याक पयली सुवात दिल्या. मनून ब्रह्मचाऱ्याचें जेवण, भेस, जानवें ह्या गजालींचेर सविस्तर नेम दिल्यात.

ब्रह्मचर्याचें एक म्हत्वाचें खाशेलपण म्हळयार इंद्रियांचेर ताबो दवरप. देखून ब्रह्मचर्यांत लैंगिक सूख वर्ज्य आसताच, पूण खावपापियेवपासारख्या गजालींचेर ताबो दवरचो पडटा. देखीक-सोरो पियेवप ना, मांस खावप ना, खाटीचेर न्हिदप ना आदी.

लैंगिक कर्मां हीं मुळांतूच अपवित्र, बायल ही आध्यात्मिक साधनेंतली आडखळ अशें बौध्द, जैन, क्रिस्तांव आनी निवृत्तीवादी हिंदू मानतात. ब्रह्मचर्य पाळळयार पावित्र्य, सुमाराभायलें बळ, देवत्व, पूर्णत्व, आत्मज्ञान, मोक्ष आदी मेळटा अशे समजुतीन कांय जाण ब्रह्मचर्य स्विकारतात. तेभायर ब्रह्मचर्याखातीर पुराय काळ ईश्वरचिंतना सारक्या व्हड कार्यांत घालोवपाक मेळटा होवूय एक ताचो उद्देश.

ब्रह्मचारी हे स्वतंत्रपणान एकसुरे रावतात जाल्यार कांय खेपे पंगड, मठ, आश्रम बी बांदून एकठांय रावतात. दादल्यांपरस बायलांमदीं ब्रह्मचर्य स्विकारपाचें प्रमाण बरेंच उणें आसता. बौध्द भिक्षुणी, जैन श्रमणी, क्रिस्तिांव माद्री आदी बायलो मात अशें ब्रह्मचर्य पाळटात.

खंयच्याय समाजांतल्या सामान्य मनशाचे नदरेन ब्रह्मचर्य हें इत्सीक आसता. पूण कांय धर्मांनी आनी समाजांनी खाशेलो धर्मगुरू, पुरयत बी हांकां जल्मभर खरपणान ब्रह्मचर्य पाळचें पडटा. हिंदू संन्याशी आनी योगी, बौध्द भिक्षू, जैन श्रमण आनी जायत्या आदिम जमातींतले शामान हे ब्रह्मचारी आसतात. रोमन कॅथलिक पंथांत पाद्री ब्रह्मचारी आसतात.क्रिस्तांव धर्माच्या इतिहासांत ब्रह्मचर्याविशीं वेगवेगळीं मतां पळोवंक मेळटात. प्रॉटॅस्टंट इगर्जेंत धर्मोपदेशकाच्या ब्रह्मचारी रावपाच्या व्रताक विरोध केला. सुफी साधू हांचो आडवाद सोडल्यार मुसलमानांमदीं ब्रह्मचर्य चडशें दिसना. पारशी धर्मांत ब्रह्मचर्यापरस गृहस्थी जिविताक व्हडपण दिल्ल्याचें दिश्टी पडटा.

जेजू क्रिस्त, आद्य शंकराचार्य, विवेकानंद आदी कितल्याशाच ब्रह्मचाऱ्यांनी आपल्या व्रतस्थ आचरणान मनीसजिणेक उंचेल्या पांवड्यार पावयल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रह्मचर्याश्रम** : (पळेयात आश्रम).

**ब्रह्मदत्त** : एक म्हान वेदान्ती. आद्य शंकराचार्यान आपल्या बृहदारण्यकावयल्या भाश्यांत ब्रह्मदत्ताचो उल्लेख केला. ब्रह्मदत्ताचीं कांय मतां वेदान्तदेशिकाचार्यान सर्वार्थसिध्दी नांवाचे टिकेंत दिल्यांत तीं अशीं-जीव आनी जगत हे ब्रह्मांतल्यान उत्पन्न जातात आनी ब्रह्मांतूच विलीन जातात. 'तत्त्वमसि' ह्या महावाक्यांतल्यान उपनिषदांचो खरो हेत स्पश्ट जायना, पूण तो अर्थ 'आत्मो वा अरे द्रष्टव्यः' ह्या नियोग वाक्यांतल्यान जाता. ब्रह्म आनी जीव हांचेमदीं वेगळेपण दिसलें तरीय जीव हो ब्रह्मापसून वेगळो ना. साधक खंयचेय अवस्थेंत आसलो तरी ताच्या हातांतल्यान कर्माचो त्याग जावंक शकना. सुरेश्वराचार्य आनी ज्ञानोत्तम ह्या टिकाकारांनी ब्रह्मदत्ताक ज्ञानकर्मसमुच्चयवादी अशें म्हळां.

ब्रह्मदत्त हो ध्याननियोगवादी. तो जीवन्मुक्ती मानिना. मोक्ष हें ताचे नदरेन अदृश्ट अशें फळ.

-कों. वि. सं. मं.

**ब्रह्मदेव** : (पळेयात ब्रह्मा).

**ब्रह्मदेश (मियानमार)** : भारताचे उदेंत दिकेक आशिल्लो एक सार्वभौम देश. क्षेत्रफळ ६७६, ५५२ चौ. किमी. विस्तार १०° ते २८°३०' उत्तर अक्षांश आनी ९२° ते १०१° उदेंत रेखांश. ह्या देशाची दक्षिण-उत्तर लांबाय १,९२० किमी. लोकसंख्या ४७,३०५,३१९ (१९९१). यांगोन (रंगून) ही देशाची राजधानी. बंगालाच्या उपसागरांत आशिल्ल्या रामरी आनी चेदूबा जुंव्यांचो आनी अंदमान दर्यांतल्या मर्गी द्वीपसमूहाचो ह्या देशांत आस्पाव जाता. ब्रहमदेशाचे उदेंतेक लाओस, ईशान्येक आनी उत्तरेक चीन, अस्तंतेक बंगालाचो उपसागर आनी बांगलादेश, आग्नेयेक आनी दक्षिणेक थायलंड आनी अंदमान दर्या आसा.

**भूंयवर्णन** : देशाचे उत्तरेकडचो प्रदेश चड उंचायेचो आसून, हो भाग तिनूय वटांनी पर्वतावळींनी भरिल्लो आसा. इरावती, चिंद्विन आनी सितांक प्रदेशांतल्यान व्हांवपी म्हत्वाच्यो न्हंयो दक्षिणेक आशिल्ल्या तेनासरीन हे अशीर दर्यादेगेच्या उदेंत भागांत खर देंवत्यांच्यो दोंगरावळी आसून उत्तरेक त्यो मार्ताबानच्या आखातामेरेन पातळळयात.

भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे सादारणपणान चार वांटे जातातः १) उत्तरेक आनी अस्तंतेक आशिल्लो पर्वतांचो प्रदेश २) उदेंतेक आशिल्लो शानाचो सडो आनी दक्षिणेकडची तेनासरीमाची दर्यादेग ३) मदलो सकल प्रदेश आनी ४) इरावती आनी सितांग न्हयांचो त्रिभूज प्रदेश.

१) देशाचे अस्तंत शिमेचेर उत्तरेकडलो पूटाओ नॉटसावन दक्षिणेक आराकान द्विपकल्पामेरेन हो प्रदेश पातळळा. उत्तर भागांतल्या पर्वतावळींनी भारत ब्रह्मदेश हांची मदली शीम तयार केल्या. दक्षिणेकडल्या पर्वतांच्या प्रदेशाक 'आराकान योमा' ह्या नांवान वळखतात ह्या प्रदेशाची उंचाय आनी रुंदाय उत्तर वाठारांत चड आसा आनी दक्षिणेकडेन ती उणी जायत वता. पातकई, चीन, नागा आनी आराकान योमा हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं तेमकां. ह्या प्रदेशांत आशिल्ल्यो सगळयो दोंगरावळी दाट रानांनी रेवडायल्यात. उत्तरेक आशिल्लें हकाकाबो राझी हें देशांतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक. ताउंगपु ही १,१६८ मी. उंचायेवयली मुखेल खींड आराकान योमा पर्वतांत आसा. देशाच्या दक्षिण भागांत इरावती आनी सितांग ह्या देगणां मजगतीं पेगूयोमा ही उणे उंचायेची पर्वतांवळ उत्तर-दक्षिण अशी पातळिल्ली आसा. आराकान योमा आनी बंगालचो उपसागर हांचेमदीं अशीर अशी आराकान दर्यादेग आसा. (२) देशाचे उदेंतेकडचो शेकानशेक भाग शानाच्या सड्यान रेवडायल्लो आसा. हो चीनाच्या युनान सड्याचोच दक्षिणेकडलो भाग. ताची सरासरी उंचाय ९०० मी. आसा. सॅल्वीन न्हंय शान सड्या मदल्यान व्हांवता. मार्ताबानच्या आखातामेरेन दक्षिण क्रा संयोग भूंयेमदली व्हिक्टोरिया पॉयंटामेरेन तेनासरीम दर्यादेग पातळिल्ली आसा. मोलमायन हें त्या प्रदेशांतलें मुखेल शार. हाचे उदेंतेक डॉना पर्वतांवळ आनी दक्षिणेक टाऊंम्मो आनी बिलॅउकटॅउंग ह्यो पर्वतांवळी आसात.

सपाट प्रदेशाचो आस्पाव आराकान पर्वत आनी उदेंतेकडलो शानाचो सडो हांचेमदीं जाता. मध्यवर्ती सपाट प्रदेश अर्थीक आनी संस्कृतीक नदरेन खूब म्हत्वाचो आसा. मंडाले हें ह्या भागांतलें मुखेल शार. ह्या वाठाराक केन्ना केन्नाय भूंयकांपाचे धपके बसतात. दक्षिणेक इरावती आनी सितांग ह्या न्हयांमजगतीं पेगूयोमा पर्वतांची वळ आसा. हांगा ज्वालामुखीचे दोंगर आसात. माऊंट पोपा हो हांगाचो प्रसिध्द ज्वालामुखीचो दोंगर.

इरावती आनी सितांग न्हंयांच्या त्रिभूज प्रदेशान ३१,०८० चौ. किमी. क्षेत्र व्यापिल्लें आसा. शेतवडीचे नदरेन ह्या प्रदेशांक खूब म्हत्व आसा. यांगोन हें ह्या भागांतलें मुखेल शार आनी बंदर. इरावती, चिंदबिन, सितांग आनी सॅल्वीन ह्यो हांगाच्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो. तांचो लोट उत्तर-दक्षिण असो व्हांवता. इन्ले हें देशांतलें सगळ्यांत व्हडलें तळें.

**हवामान :** ब्रह्मदेशाचें हवामान मोसमी प्रकारचें. देशाच्या सगळ्या वाठारांनी हवामान एकसारकें ना. वाठाराचे उंचायेप्रमाण थंयच्या हवामानांत बदल जाता. देशाच्या चडशा भागाचो आस्पाव उश्ण कटिबंधांत जाता. दर्यादेगांनी आशिल्ल्या वाठारांतलें हवामान उश्ण आनी दमट आसता. शियाळ्यांत पर्वती प्रदेशांतलें तापमान गोठणबिंदूमेरेन सकयल वता. देशाच्या उत्तर भागांतल्या पर्वतांच्या प्रदेशाक लागून मध्य आशियांतलें शितळ वारें आडावता. उदेंत आशियांतल्या हेर देशांप्रमाण हांगाय गीम, पावसाळो आनी शियाळो अशे तीन ऋतू आसात. सबंद देशाचो सरासरी वर्सुकी पावस १००सेंमी. इतलो आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** देशांतलें सुमार ५७% क्षेत्र रानांखाला आसून तातूंतलें २५% क्षेत्र साग रुखांनी भरलां. चड उंचायेच्या प्रदेशांनी उपोश्ण आनी समशीतोश्ण कटिबंधीय रानां आनी उणे उंचायेच्या प्रदेशांत उश्ण कटिबंधीय सदांपाचवे आनी पानझडी रूख दिश्टी पडटात. हिमरेशेपलतडचे १,०५०मी. उंचायेच्या वाठारांनी ओक, पायन आनी हेर रूख आशिल्लीं पाचवींचार रानां आसात. २०० सेंमी. परस चड पावसाच्या वाठारांनी घट्ट लाकूड आशिल्ली रुखावळ पळोवपाक मेळटा. १०० ते २०० सेंमी. पावस पडटा त्या वाठारांनी आंबो, पणस, साग, माड, ताड आनी हेर मोसमी प्रकाराचीं रानां आसात. १००सेंमी. परस उण्या पावसाच्या वाठारांनी काथ्याचीं झोंपां आनी ल्हान ल्हान झिली आसात.

ब्रह्मदेशांच्या रानांनी वाग, शींव, बिबटे, गवे, दोन शिंगां आशिल्ले गेंडे, रानरेडे, रानटी माजर, टॅपिर, वांखेल, हत्ती, माकड, आनी हरणां ही मोनजात खूब प्रमाणांत दिसता. त्रिभूज प्रदेशांत विखाळे सोरोप, हार, मानगीं, कांसव ही मोनजात मेळटा. रानांनी तितर, पाचवो मोर, रानकोंबे, ग्राऊस, पोपट आनी हेर सवणीं पळोवपाक मेळटात.

**इतिहास :** ब्रह्मदेशाच्या चड पयलींच्या इतिहासाची आनी संस्कृतायेची म्हायती मेळना. पूण १९६९ त ब्रह्मी पुरातत्त्वखात्यान केल्ल्या उत्खननांत सुमार पांच हजार वर्सांपयलीं इरावती न्हंयेच्या देगणांत मनशाची पयली वसणूक निर्माण जाली अशे पुरावे सांपडल्यात. नवाश्मयुगांतले अवशेश आनी व्होंवरींतल्या चित्रांवयल्यान हांगाच्या मनशांचे वसणुकेची म्हायती मेळटा. हे संस्कृतीक मानववंशशास्त्रज्ञ 'ऑनयॅथिअन' अशेंय म्हण्टात.

ब्रह्मदेशाचो पुर्विल्लो इतिहास म्हळयार ब्रह्मी आदिवासी जमाती आनी तलैंग हांचेभितर खूब तेंप चलिल्लो संघर्श. तलैंग जमात सुरवेक तिबेट सड्यावयल्यान ब्रह्मदेशांत रिगली. उपरांत दक्षिणे मेरेनचो प्रदेश घेवन पयलीं थाटोना आनी उपरांत पेगू हांगा आपलें राज्य उबारलें. सम्राट अशोकान बौध्द धर्म आपणायले उपरांत धर्मप्रसाराखातीर बौध्द भिक्षूंक हांगाय धाडिल्ले. हाका लागून मॉन आनी हेर ब्रह्मी जमातींचो भारतीय संस्कृतायेकडेन संबंद आयलो. राजा, कला, लाकडी शिल्पां, स्तूपबांदणी आनी हेर भारतीय संकल्पना तांणी आपणायल्यो.

इ. स. पयल्या शेंकड्यासावन ते आठव्या शेंकड्यामेरेनच्या ब्रह्मदेशाच्या इतिहासाची पुराय तरेन म्हायती मेळना. ह्या काळांत तिबेट आनी चीनांतल्या विंगड विंगड लोकांचे चोंबे हांगा आसले. तांचीं थळाव्या लोकांकडेन सदांच झगडीं जातालीं. हाका लागून खंयचीय जमात थिरायेन रावूंक शकलिना. ह्या तिबेटी-ब्रह्मी जमातींतल्या प्यू आनी हेर जमातींनी टगाऊन आनी हलिंग्यी हांगा आपली सत्ता उबारली. उपरांत तांणी ल्हव ल्हव दक्षिणेंतलो आराकान पर्वतामेरेनचो प्रदेश हातासलो. प्यूंचो पराक्रमी राजा दूत बौंग हाणें प्रेम नगर वसयलें. प्यूं जमातीन भारत आनी चीन हांच्या वेपारी मार्गाचेर आपलें नियंत्रण दवरून इरावतीचें पुराय देगण आपल्या शेकातळा दवरलें. सुरवेच्या तेंपार प्यूं जमातीन मॉन लोकांकडल्यान जायत्यो कल्पना आनी परंपरा घेतली आसली तरी भारतीय संस्कृतीची वळख जातकच ते चड प्रगत आनी बळिश्ट जाले. प्यूं जमातीभितर एकवट नाशिल्लो. तांचेमदीं सदांच झगडीं जातालीं हाका लागून राजकीय नदरेन फुडारिल्ले मॉन जमातीन प्यूं जमातीचेर हार घाली.

इ. स. ८४९ त पगान राज्याची स्थापणूक जाली. १०४४ त अनव्रथ हो राजा सत्तेचेर आयलो. ताणें इरावती न्हंयेचो त्रिभूज प्रदेश आनी मॉन राजाची राजधानी थाटोन हांचेर आपलो शेक बसोवन पगा हांगा आपली राजधानी उबारली. श्रीलंका आनी भारत हांच्या प्रभावाक लागून ह्या राजांनी हीनयान बौध्द धर्म आपणायल्लो. मंगोला वंशांतल्या कुब्लायखान हाणें त्या राज्याचेर घुरी घालून १२८७ त ताचेर जैत मेळयलें.

पगान साम्राज्याउपरांत ब्रह्मदेशांत तीन स्वतंत्र राज्यां निर्माण जालीं. तातूंतलें उत्तर मध्य ब्रह्मदेश हें शान वंशाच्या शेकातळा आयलें. ते आपल्याक अनब्रथाचे वारस मानताले. शानांच्या तेंपार ब्रह्मी साहित्याचो विकास जालो. दक्षिणेंत मॉन घराण्यान परत सत्ता मेळोवन पेगू हांगा

आपली राजधानी उबारली. सोळाव्या शेंकड्यांत राजा ताबिश्वेती हाणें उत्तरेकडचे शान आनी दक्षिणेकडचे मॉन हांका एकठांय हाडून पेगू हांगा आपली राजधानी उबारली. ताच्या मरणाउपरांत ताचो मेवणो बाईन्नॉग हाणें मणिपूर, अवा ह्या शान राज्यांचेर आनी मॉनाच्या प्रदेशांचेर जैत मेळयलें. ताणें १५६९ त थायलँडाच्या राजाचो पराभव करून ताका बंदखणीची ख्यास्त दिल्ली. पूण ताची प्रशासनाची यंत्रणा विस्कळीत आशिल्ली. ताची फौजूय ल्हान आशिल्ली. निमाणेकडेन ह्या राज्यांचे ल्हान ल्हान कुडके जावन मणिपूर स्वतंत्र जालो. उपरांत बाईन्नॉगाचो नातू अनौकपेटलून सत्तेर येवन ताणें राज्याची घडी नीट बसयली. उपरांत हांगा युरोपी लोक वेपारा निमतान येवपाक लागले. इ. स. १७५२त पुराय ब्रह्मदेश मॉनांच्या शेकातळा आयलो. तांचो राजा बिन्यादल हाणें पेगूक आपली राजधानी उबारली. मॉनांची सत्ता नश्ट करचे खातीर अलौंगपेया ह्या मुखेल्यान १७५२ त आपल्याक राजा म्हणून घोशीत केलो. सुरवेक श्वेबो हांगा राज्य उबारून मॉन सत्ताधाऱ्याचेरे आनी फ्रांसेझाचेर हार घाली. मणिपूर आनी तेनारीस हे प्रदेश ताणें आपल्या शेकातळा हाडले. अलौंगपेयान स्थापणूक केल्ल्या कॉनबाँग वंशान मुखार १८८५ मेरेन ब्रह्मदेशाचेर आपलो शेक गाजयलो. आराकान आनी आसामाचेर जैत मेळयले उपरांत तांचो ब्रिटिशांकडेन संबंद आयलो आनी तांचेमदीं झगडीं सुरू जालीं. हातूंतल्यानूच पयलें ब्रह्मी झूज जावन (१८२४-२६) ब्रह्मदेशाचेर हार पडली. ब्रिटिशांनी आसाम, मणिपूर, आराकान आनी तेनासरीम हे प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडले. कलकत्ता ते सिंगापूर दर्यादिगेक लागून ब्रिटिशांनी ब्रह्मदेशाआड दुसरें झूज उबारून (१८५२) ब्रह्मदेशाचेर हार घाली. १८८५ त तांचेभितर तिसरें झूज जालें. ब्रह्मदेशाचो निमाणो राजा थिबा हाका सत्तेवयलो देंवोवन ब्रिटिशांनी ताका रत्नागिरीक शिमेपार केलो. अशे रितीन सबंद ब्रह्मदेश ब्रिटिशांच्या शेताकळा आयलो आनी ब्रम्हदेश ब्रिटीश हिंदुस्थानाचो एक भाग जालो.

१ जानेवारी १८८६ सावन ब्रह्मदेश हो ब्रिटीश हिंदूस्थानाच्या साम्राज्याचो एक भाग जालो. तिनूय ब्रह्मी झुजांनी हिंदी सैन्यान ब्रिटिशांक आदार करून ब्रह्मदेशाचो पराभव केलो. हाका लागून ब्रह्मी लोकांमदीं आनी हिंदी जनतेंत दुस्मानकाय निर्माण जाली. ब्रिटिशांच्या अत्याचारांक विरोध करपाखातीर ब्रह्मदेशांत तरणाट्यांच्या संघटनांची स्थापणूक जावपाक लागली. अस्तंती आचारविचारां वांगडा तरणाट्या पिळग्यांचेर लोकशाय, समाजवाद, क्रांती हांचो परिणाम जावपाक लागलो. नवे पिळगेन राश्ट्रवाद, राश्ट्रधर्म, संस्कृताय आनी आधुनिक अस्तंती शिक्षण हांचो पुरस्कार करून १९०८ त युवक बौध्द संघटनेची स्थापणूक केली. हे संघटनेंत ब्रिटिशांच्या जुलमी धोरणाक विरोध करून तांणी संविधानीक कायद्याची मागणी केली. विद्यार्थ्यांनी ब्रिटिशांआड चळवळी आनी संप सुरू केले. १९३०त ब्रिटिशांनी ब्रह्मदेश हिंदूस्थानासावन वेगळो करपाचें थारायलें. आँग सान, ऊ नू, शू मॉग आनी हेर तरणाट्यांनी थाकीन (मालक) चळवळ सुरू केली आनी तांणी हिंसाचारी पद्दत आपणायली. १९३५ चो कायदो पास जालेउपरांत दोन वर्सांनी ब्रह्मदेश हिंदूस्थानासावन वेगळो केलो. ताका ब्रिटीश सम्राज्यांतल्या घटक राज्याचो मान मेळ्ळो, तशेच नवे अधिकारूय मेळ्ळे. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या तेंपार ब्रह्मी फुडाऱ्यांनी जपानाक तेंको दिलो. तांणी जपानाच्या आदारान ब्रिटिशांक ब्रह्मदेशांतल्यान धांवडावन घालपाची येवजण आंखली. बे मॉ आनी ऊ सान हे दोगूय हे येवजणेचे मुखेली आशिल्ले. आँग सान, ने विन आनी हेरांनी हुकूमशायविरोधी स्वांतत्र्यसंघ ह्या नांवाची क्रांतिकारी संघटना उबारिल्ली. हे संघटनेन जपानाचो आदार मागिल्लो. पूण जपानान ब्रह्मी नेत्यांचो विश्वासघात करून १९४१ त ब्रह्मदेशाचेरूच आक्रमण केलें. आपल्या कळसुत्री प्रशासनाचो मुखेली म्हणून जपानांत बे मॉ हाची नेमणूक करून १९४३ त ब्रह्मदेश हें स्वतंत्र राश्ट्र अशें जाहीर केलें. बे मॉ हाका सैन्याचो मुखेली नेमलो. ह्या काळांत जपानान ब्रह्मी जनतेचेर खूब अत्याचार केले. ब्रिटीश फौज ब्रह्मदेशांत रिगलेउपरांत यकीनाचे साम्यवादी मुखेली भूंयगत जाले. म्हाझुजाउपरांत ब्रिटीश सरकारान १९४६ त जनरल आँग सानच्या फुडारपणासकल ब्रह्मदेशांत हंगामी सरकाराची स्थापणूक जाली. आँग सानच्या राजकीय दुस्मानांनी ताची आनी ताच्या सहकाऱ्यांची २४ जुलय १९४७ दिसा हत्त्या केली. उपरांत ऊ नू हाची प्रधानमंत्री म्हणून नेमणूक केली. ४ जानेवारी १९४८ त ब्रह्मदेश स्वतंत्र जालो. सर ह्यूबर्ट रान्से ह्या निमाण्या ब्रिटीश गव्हर्नरान राजकाराभाराचीं सगळीं सुत्रां ब्रहमदेशाच्या पयल्या राश्ट्राध्यक्षाकडेन (साओ श्यू थायके) सोंपयलीं.

स्वातंत्र्य मेळ्ळेउपरांत ब्रह्मी फुडाऱ्यांनी अलिप्ततायेचें धोरण आपणायलें. तांणी साम्यवादी चीनाकूय मान्यताय दिली. स्वातंत्र्याउपरांत ब्रह्मदेशान साबार येवजण्यो आंखून देशांत शांतताय आनी अर्थीक उदरगत घडोवन हाडपाचे खूब यत्न केले. पूण प्रधानमंत्री ऊ नू आनी ताचे वांगडी हांच्या संघर्शाक लागून देशाची सत्ता ने विन ह्या लश्करी मुखेल्याच्या हातांत गेली. ताच्या फुडारपणासकयल ब्रह्मदेशांत १९६०त भौशीक वेंचणुको जावन ऊ नू परत सत्तेर आयलो. पूण ताच्या वांगड्यांभितरल्या संघर्शाक लागून देशांत परत अस्थिरतायेचें वातावरण पातळ्ळें. हाचो परिणाम म्हळयार १९६२ त जनरल ने विन हाणें प्रधानमंत्री ऊ नू सरन्यायाधीश आनी मंत्रीमंडळांतल्या ताच्या वांगड्यांक बंदखणींत घाले. लश्करी क्रांती करून हेर अधिकाऱ्यांच्या आदारान देशाची पुराय शासनवेवस्था परत आपल्या हातांत घेतली. संविधान रद्द करून लश्करी राजवट सुरू केली. जनरल ने विन हाणें समाजवादी धोरण आपणावन शेतवड, वेपार आनी उद्देगधंद्याचें राश्ट्रियीकरण केलें. १९७४त ताणें नवें संविधान तयार करून ब्रह्मदेश हें समाजवादी राश्ट्र अशें जाहीर केलें आनी देशांत एकपक्षी हुकूमशायी राजवट सुरू केली. ताच्या फुडारपणासकयल येरादारी, भौशिक भलायकी खातें, वैजकी शिक्षण

आनी हेर मळांरूय उदरगत जाली. ताणें आंतरराश्ट्रीय राजकारणांत अलिप्ततायेचें धोरण आपणावन ब्रह्मदेशाक आशियेंतल्या राजकारणांत म्हत्वाची सुवात मेळोवन दिली. उपरांत ताणें ८ ऑगस्ट १९८१ दिसा अध्यक्ष आनी राश्ट्राध्यक्ष पदाचो राजिनामो दिलो. १९८१त जाल्ले भौशिक वेंचणुकेंत जनरल ऊ सान राश्ट्राध्यक्ष जालो. पूण रोकडोच ऊ सान हाका सत्तेभायरो करून ने वीन परतून राश्ट्राध्यक्ष जालो. उपरांत ताणें १९८८ मेरेन देशांत आपली हुकूमशाय गाजयली. आपल्या समाजवादी धोरणांक लागून ताणें ब्रह्मदेशाक परकी राश्ट्रांसावन अलिप्त दवरलो. तशेंच भारतीयांक दिवाणी सेवेंतल्यान आनी चिनी लोकांक वेपार क्षेत्रांतल्यान काडून उडयले. ब्रह्मदेश जो आग्नेय आशियेंतलो एक गिरेस्त देश आसलो, ताका १९८७ त संयुक्त संस्थानान मागाशिल्लो देश म्हूण घोशीत केलो. ने वीनची राजवट देशांत अर्थीक उदरगत घडोवन हाडप्याक अपेशी थारिल्ल्यान, १९८८त ताचे आड व्हड उठाव जालो. जुलय १९८८ त नेवीन हाणें आपल्या पदाचो राजिनामो दिलो. उपरांत जनरल सॉ माऊंग हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९८९ त ताणें ब्रह्मदेशाचें नांव मियानमार अशें दवरलें. २७ मे १९९०त देशांत भौपक्षीय वेंचणूक जावन तातूंत नॉबेल शांती पुरस्कार मेळिल्ले ऑंग सान सू कै हिच्या लोकशाय पक्षाक भौमत मेळळें. पूण लश्करान तिच्या हातांत सत्ता दिवपाक न्हयकार दिवन तिका तिच्या घरांतूच बंदखणींत दवरली. उपरांत मे १९९५ त तिचेर कांय बंधना घालून तिची सुटका केली. लश्करी हुकुमशायेक लागून १९९७ त अमेरिकेन ब्रह्मदेशाचेर परतून अर्थीक अनुशास्ती लागू केली.

**राजकीय स्थिती :** १९७४ त नवें संविधान चालीक लागले उपरांत लश्करी राजवट सोंपून एकपक्षीय हुकूमशाय राजवट सुरू जाली. ह्या सविधानांत ब्रह्मदेश हें समाजवादी राज्य आशिल्ल्याचें जाहीर केल्लें. संसद ही सगळयांत उंचेली संस्था आसून तिचे ४७५ वांगडी आसतात. संसद वांगड्यांक चार वर्सांखातीर वेंचून काडटात. १८ वर्सां पिरायेच्या नागरिकांक मत दिवपाचे हक्क आसात. दर एका राज्यांत, शारांत आनी गांवगिऱ्या वाठारांनी लोकांनी नियुक्त केल्लीं मंडळां आसात. दर एक मंडळ तांकां दिल्ल्या थरांचेर कार्यकारी आनी न्यायलयीन स्थितीचेर नियंत्रण दवरता. ब्रह्मदेशाचें शासन चार थरांच्या संस्थांनी विभागिल्लें आसून राश्ट्रीय संसद निर्वाचीत प्रतिनिधींतल्यान राज्यमंडळ, मंत्रीमंडळ, न्यायमंडळ म्हानिरिक्षक मंडळ आनी हेर मंडळां नियुक्त करतात. हातूंतली राज्यमंडळ ही म्हत्वाची संस्था आसून तिचे २८ वांगडी आसतात. तातूंतल्यानूच राश्ट्राध्यक्षाचो निवाडो जाता. मंत्रीमंडळ प्रधानमंत्र्याक वेंचून काडटात. १९६२ त लश्करी राजवट आयल्येउपरांत ब्रिटीशा तेंपावयलें सर्वोच्च आनी उच्च न्यायालय बंद करून ते सुवातेर मुखेल न्यायालय नेमलें. हेंच आयचें निमाणें अपील न्यायालय आसा. १९७४ च्या संविधानावरवीं लोक न्यायमंडळ ही सर्वोच्च न्यायदानाची संस्था जाल्या.

**राखणेवेवस्था :** देशाच्या १९७४ च्या संविधानावरवीं राखणे येवजण, शांतताय आनी झूज ही मंत्रीमंडळाची जापसालदारकी आसा. राखणेमंत्री तिनूय सेनांचो मुखेली आसता. देशाची वड्ट भूसेना २,७०,०००(१९८८) आशिल्ली. लायट इंफण्टी डिविझन ७, ब्रिगेड १८७, स्वतंत्र इंफण्ट्री ८७, आर्टिलरी बटालियन ४, आनी १ ॲण्टी-एरक्राफ्ट बॅटरी, २४ कोमंट टॅक्स, ४० एम्बर गाडयो आसात. लोकसेना सुमार ३५,००० आनी लोक पोलीस फोर्म ३४,८०० इतलो आसा.

**अर्थीक स्थिती :** अर्थवेवेस्थेचो मुखेल भार शेतवडीचेर आसता. तांदूळ निर्यात करपी देश म्हणून ताची नामना आसा. देशांतलें मुखेल उत्पादन तांदूळ आसून तें परकी चलन मेळोवन दिवपाचें आनी रोजगाराचें एक मुखेल साधन आसा. देशांतले वड्ट लोकसंख्येंतले ७०% लोक शेतकी उद्देगांत आसात. शेतवड हो हांगाचो मुखेल वेवसाय आसलो तरी परंपरीक पद्दतिनूच शेतवड करतात. इरावती आनी सितांग न्हंयांच्या देगणांनी आनी त्रिभूज प्रदेशांत भाताचें पीक काडटात. मंडालेचे आग्नेय दिकेक आशिल्ल्या प्रदेशांत, मध्य इरावतीच्या देगणांत आनी चिंदविन न्हंयेच्या देगणांनी कापूस, भूंयमूग, ऊंस, कड्डण, तीळ, तंबाकू आनी हेर शेती धान्यां पिकयतात. दक्षिणेक आशिल्ल्या दर्यालागच्या वाठारांनी रबराचे मळे आसात. शान वाठारांत बटाट आनी च्या हीं नगदी पिकां काडटात. तेभायर ताग, गंव, मको, घेवडो, ज्वारी, बाजरी, हींय पिकां ब्रह्मदेशांतले शेतकार पिकयतात. शेतवडीच्या मळार अजुनूय यंत्रिकिकरण जावंक ना. शेत नांगरपाक पाडे आनी रेड्यांचो उपेग करतात. गोरवां, बोकडां, कुकडां, दुकर पोसपाच्या उद्देगाकूय म्हत्व आसा. देश स्वतंत्र जाल्याउपरांत नुस्तेंमारी कार्यावळीची खूब उदरगत जाल्या. वड्ट उत्पदनांतल्या १.६% नुस्त्याची निर्यात जाता.

स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत रंगूनांत पयलो औष्णिक वीज प्रकल्प उबारलो. उपरांत तीन जलविद्युत प्रकल्प उबारले. दक्षिण शान वाठारांत सॅल्वीनाच्या बालू चाऊंग हे उपन्हंयेवयल्या प्रकल्पाक लागून रंगून आनी हेर ५३ गांवांक आनी १४५ खेड्यांक वीजपुरवण जाता. लॉपिता न्हंयेचेर लॉईकॉव हांगा जपानाच्या आदारान १९६० त धरण बांदलें.

ब्रह्मदेश खनीजसंपन्न आसा. कथील, टंगस्टन, शिशें, रुपें, इंद्रनील मणी, पाचू आनी हेर खनिजांचे सांठे हांगा आसात. खनीज तेलाचें उत्पादन १८८७ सावन सुरू जालें. तेल उत्पादनांत हो देश स्वयंपूर्ण आसा. विंगड विंगड प्रकारांच्या खनीज उत्पादनांखातीर चार महामंडळांची स्थापणूक केल्या. एके जपानी उद्देग संस्थेच्या आदारान सिरीॲम नगरांत तेल निवळीकरण प्रकल्प उबारला.

स्वातंत्र्य मेळळे उपरांत कारखाने आनी हेर उद्देगधंदे हांगा दिसानदीस वाडत आसात. १९५० ते १९६० मेरेन अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां आनी युरोपी देशांकडच्यान यंत्रसामुग्री आयात करून अर्थीक विकास घडोवन हाडपाचे यत्न जाले. १९६२ त जनरल ने विनच्या क्रांतिकारी

सरकारान 'समाजवादी ब्रह्मी मार्ग' आपणायलो. उत्पादन वाडोवप, बेकारी निर्मुलन, रोजगार उपलब्धता अर्थीक विकास घडोवन हाडपाखातीर शेतवड, उद्देग, विवरण, येरादारी, निर्यात वेपार हांचें राश्ट्रियीकरण केलें. रंगुनांत तिखें, वखद, लुगट, स्पिरीट आराकान-कागद, थायेटम्मो-शिमीट, रसायनीक सारें प्रकल्प, थामिन-साकर, ताग आनी हेर उत्पादनांची निर्मिती करपी कारखाने आसात. मध्य ब्रह्मदेशांत भातसडी, लाकूड चिरप, आनी अन्न प्रकिया करपी उद्देग चलतात. पेगू हो हांगाचो मुखेल उद्देगीक विभाग आसा. १९७० उपरांत अन्नप्रक्रिया वेवसाय नेटान चलता. चडशे कामगार ह्या वेवसायांत घुसपल्यात. परकीय कंपन्यांनी बरेंच भांडवल हांगाच्या उद्देगधंद्यांनी घालां.

१९६२ त देशाभितरल्या वेपाराचें राश्ट्रियीकरण केल्ल्याकारणान १९६५-६६त खाजगी वेपाराचें प्रमाण १५% उणें जालें. १९७६त राज्य वेपार मंडळाकडेन सगळे वेपार सोंपयले. ब्रह्मदेशाच्या आंतरराश्ट्रीय वेपाराचेर सरकारी यंत्रणेचीच देखरेख आसता. हांगाच्या सगळ्या बँकांचें आनी विम्यासंस्थांचें २३ फेब्रुवारी १९६३ दिसा राश्ट्रियीकरण केलें. तांचें विलिनीकरण करून नोव्हेंबर १९६९ त 'पिपल्स बँक ऑफ द युनियन ऑफ बर्मा' ची स्थापणूक जाली. ब्रह्मदेशाच्या अर्थीक विकासाक आदार करपाखातीर १९७६ 'बर्मा एड ग्रूपाची' स्थापणूक जाली.

**येरादारी आनी संचारण :** यांगोन ते प्रोम हो पयलो लोहमार्ग १८७७ त बांदलो आनी यांगोन ते सितांग देगण जोडपी लोहमार्ग १८८६ त बांदलो. यांगोन-मंडाले म्यिचीना हो एक मुखेल मार्ग आसा. हांगा खनीज तेल सांपडिल्ल्या वाठारांनी लोहमार्गाची वेवस्था आसा. १९४८ त लोहमार्गाचें राश्ट्रियीकरण करून राज्य येरादारी निगमाची स्थापणूक केली. इरावती आनी तिच्या उपन्हंयांतल्यान जावपी येरादारी तांदूळ वेपाराचे नदरेन म्हत्वाची आसा. देशाभितरली उदकांतली येरादारी मुखेलपणान खाजगी आनी सहकारी संस्थांकडच्यान जाता. यांगोन हें व्हड आनी बरें आंतरराश्ट्रीय दर्ज्याचें बंदर आसा. ब्रह्मी बंदर निगम ह्या बंदराची देखरेख करता. यांगोनाक आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसून देशाभितरले येरादारीखातीर ४५ विमानतळ आसात. टपाल कार्यालय, दूरध्वनी, रेडिओ, दूरचित्रवाणी हांची वेवस्था हांगा आसा. हांगा उजवाडाक येवपी खबरांपत्रांमदीं बोटा ताऊंग, गार्डियन, केमॉन, लोकेया फिथू नायझिन हांचो आस्पाव जाता. खबरांचेर आनी नेमाळ्यांचेर सरकाराचें नियंत्रण आसता.

**लोक आनी समाजजीण :** ब्रह्मदेशांतलो खूब आदलो समाज आनी संस्कृती हांचेविशीं चडशी म्हायती मेळना. पूण हांगा सांपडिल्ल्या पुराव्यावयल्यान सुरवेक हांगा ज्यू आनी मॉन जमातींतल्या लोकांचो राबितो आशिल्लो अशें कळटा. ताचेउपरांत तिबेटोबर्मन आनी मुखार दक्षिण चीनासावन शान-थाई जमातीचे लोक हांगा आयले. कारेन, चीन आनी काचीन हे लोक क्रिस्ता आदल्या काळासावन अठराव्या शेंकड्यामेरेन हांगा येत राविल्ल्याचे पुरावे मेळ्ळयात. उत्तर-दक्षिण दिकेन व्हांवपी न्हंयो, तांचीं देगणां आनी तांचेभोंवतणीं आशिल्ले व्हड व्हड दोंगर, हांकां लागून समाजीक आनी संस्कृतीक भरसण जावंक पावलिना. हाचो परिणाम म्हळ्यार ब्रह्मी समाजांत दर एके जमातीचें खाशेलपण तिगून उरल्लें. भारत-ब्रह्मदेश शिमेलागसार मॉंगोलॉयड वंशांतले काचीन आनी चीन जमातीचे लोक रावपाक लागले. उदेंतेकडच्या रानाच्या सड्याचेर थाई वंशांतले शान जमातीचे लोक चड प्रमाणांत सांपडटात. शानाच्या सड्याचे दक्षिणेक कारेन लोकांची वसती आसा. ते थाई-चीनी वंशांतले आसात. तातूंतले साबार लोक क्रिस्तांव धर्मांतले आसात. देशांतल्यो जमाती तिबेटो-ब्रह्मी, मॉन-ख्मेर आनी थाई-चीनी अशा तीन मुखेल भाशागटांनी विभागल्यात. चडशे लोक बौध्द धर्मांतल्या थेरवाद पंथाचे अनुयायी आसात. हेर बौध्द प्रणालींचे अनुयायी देशांत सांपडटात. देशांत इस्लाम धर्माचे ४% आनी क्रिस्तांव धर्माचे ३% लोक आसात. हांगा बौध्द मठ आनी पॅगोडे सगळ्याक दिश्टी पडटात. मंडाले हें बौध्द मठाचें एक केंद्र आसा. हांचेखेरीज देशांत हिंदू धर्माचेय लोक आसात. देशांतले सुमार ८५% लोक गांवगिऱ्या वाठारांनी रावतात. हांगाच्या लोकांक 'ब्रह्मी' लोक वा 'बर्मन' अशें म्हण्टात. कारेन १०% आनी शान ८% ह्यो हांगाच्यो मुखेल जमाती आसात. ब्रह्मी लोकांचें शीत हें मुखेल अन्न आसा. मांस आनी नुस्तें ते खातात. च्या हें तांचें आवडीचें पेय. ब्रह्मी दादल्या-बायलांचो भेस सादारणपणान सारकोच आसता. कमराक घागरो वा लुंगी आनी आंगार पोलको वा शर्ट आसता. बायलांक फुलांची आनी अलंकारांची आवड आसा. बायलांक समाजांत दादल्यांइतलेंच म्हत्व आसा. तांकां घरादाराचो आनी भाटांबेसांचो वारसो हक्क आसा. लग्नाउपरांत तीं आपलीं नांवां बदलिनात. ब्रह्मी लोकांचीं घरां कोंड्यांचीं आसून ती जमनीसावन एक ते देड मीटर उंचायेचेर बांदिल्लीं आसतात. शारांनी आधुनीक पद्दतीचीं घरां दिश्टी पडटात.

देशांतली परंपरीक रितीन चलत आयिल्ली शिक्षणाची पद्दत (पागोडा शाळा) आयजूय चलत आसा. धर्मीक शिक्षणाच्यो पॅगोडा शाळा सोडून देशांतले हेर सगळे शिक्षण पद्दतीचेर १९६६ सावन शासन नियंत्रण दवरता. देशांत शिक्षणाची उदरगत जावंची आनी हांगाच्या विद्यार्थ्यांक बरें शिक्षण मेळचें म्हणून सरकारान १९६५ ते १९७० ह्या काळांत शिक्षणाची पांचवर्सुकी येवजण आंखिल्ली. शिक्षणाचें माध्यम ब्रह्मी भाशा आसून इंग्लीश ही दुय्यम भाशा म्हणून सगळ्या माध्यमिक शाळांनी सक्तीची केल्या. हांगा अभियांत्रिकी, शिक्षणशास्त्र, वैजकी, कृषी, अर्थ आनी वेपार, पशुवैजकी आनी हेर उच्च शिक्षणाची वेवस्था आसा.

**म्हत्वाचीं थळां :** ब्रह्मदेश हो पॅगोड्यांचो देश. देशांत शारां उणीं आनी ल्हान आसात. यांगोन हें राजधानीचें शार. तशेंच हांगाचें मुखेल बंदरूय आसा. हांगाच्या 'श्वे डागोन' पॅगोडा हाका संवसारीक नामना मेळ्ळया. बौध्द धर्मियांचें आनी पर्यटकांचें तें म्हत्वाचें आकर्शण आसा.

मंडालेची बौध्द दोंगुल्ली आनी तिबा राजाचो किल्लो प्रसिद्द आसात. मंडाले शाराचे नैऋत्येक आराकान हो प्रसिद्द पॅगोडा आसा. पगान हें पॅगोड्यांचें शार इतिहास प्रसिध्द आसून हांगाचो आनंद पागोडा उल्लेख करपासारको आसा. लोकमान्य टिळकाक ब्रिटीश सरकारान मंडालेचे बंदखणींत दवरिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रह्मपुत्रा :** आशियांतली एक मुखेल न्हंय. ही न्हंय तिबेटांत उगम पावून ईशान्य भारतांतल्यान फुडें बांगलादेशांत गंगा न्हंयेक मेळटा. हे न्हंयेची लांबाय २९०० किमी. हिमालयाचे कैलास दोंगरांवळींत दर्याचे पातळेसावन ७२००मी. उंचायेचेर चेमा-युंगडुंग हे हीमन्हंयेंतल्यान ब्रह्मपुत्रा न्हंयेचो उगम जाता. ही सुवात मानसरोवरा सावन सुमार १०० किमी. जाल्यार सिंधू न्हंयेच्या उगमासावन सुमार १६०किमी. अंतराचेर आसा. पुर्विल्ल्या हिंदू धर्मग्रंथांतल्या उल्लेखाप्राण ब्रह्मपुत्रेचो उगम मिचिनी पर्वतांतल्या ब्रह्मकुंडांतल्यान जाल्याचें मानतात. कुबी, आंगसी आनी चेमा-युंगडुंग हे ब्रह्मपुत्रा न्हंयेचे तीन मुखेल प्रवाह.

महाभारत, कालिकापुराण, रघुवंश ह्या साहित्यांतल्यान ब्रह्मपुत्रा न्हंयेचे जायते उल्लेख मेळटात. लौहित्य (तांबडो रंग) अशेंय तिचें नांव आसून परशुरामान क्षत्रियांचो संहार करतकच रगतान माखिल्लो आपलो परशू ब्रह्मपुत्रेच्या पात्रांत धुल्ल्यान तिचें उदक तांबडें जालें अशी आख्यायिका आसा. आवयचो वध करतकच ताचो परशू ब्रह्मकुंडांत पडलो अशीय एक दुसरी आख्यायिका आसा. आसामांतल्या आहोमांचे राजवटींत रूढ आशिल्ले आहोम भाशेंत तिका 'नामदाओ-फी' म्हळ्यार तारकांची न्हंय अशें नांव आसा. 'बुलुम बुथुर' म्हळयार बुडबुड्यांची न्हंय ह्या तिच्या मूळ नांवाचें संस्कृतीकरण जावन ब्रह्मपुत्रा हें उतर तयार जालां. आसामी लोक तिचो जायते फावट 'दर्याच' म्हणून उल्लेख करतात. तिबेटांत हे न्हंयेक त्सांगपो (शुध्द करपी), भारतांतल्या अरूणाचल प्रदेशांत दिहांग, आसामांत ब्रह्मपुत्रा जाल्यार बांगलादेशांत जमुना अशें म्हण्टात. चीनी लोक हिका या-लू-त्यांगपू चिआँग ह्या नांवान वळखतात.

उगमाउपरांत ही न्हंय हिमालयाची मुखेल दोंगरावळ आनी उत्तरेकडली नीएन-चेन-टांगला दोंगरावळ हांचेमदल्यान हिमालयाचे मुखेल वळीक समांतर अशी अस्तंत उदेंत दिकेन व्हांवत वता. ह्या भागांतल्यान फुडें ती ईशान्य वाहिनी जावन ग्याल परी आनी नामचा बारवा ह्या दोंगराच्या वाठारांतल्या खोल आनी अशीर देंगणांतल्यान व्हांवता. फुडें ती दक्षिणवाहिनी जावन हिमालय हुंपून भारतांत सिआँग आनी फुडें दिहांग ह्या नांवांनी प्रवेश करता. भारतांत तिका दिबांग आनी लुहित ह्यो उपन्हंयो मेळटकच ती नैर्ऋत्य वाहिनी जाता आनी थंयसावनूच तिका ब्रह्मपुत्रा ह्या नांवान वळखतात. हांगा तिचें पात्र बरेंच रूंद आसून तातूंत जायते जुंवे निर्माण जाल्ले दिश्टी पडटात. आसामांत ब्रह्मपुत्रेचो एक फांटो खेरकुटिया ह्या नांवान ब्रह्मपुत्रे सावन वेगळो जाता. हो फांटो फुडें उत्तरेकडल्यान येवन मेळपी सुबनसिरी हे न्हंयेवांगडा धनसिरीच्या मूळ प्रवाहाक येवन मेळटा. हाचेखातीर ब्रह्मपुत्रेचो मूळ प्रवाह आनी आसामांतलो खेरकुटिया हो फांटो हांचेमदीं माजुली ह्या १२५६.१५ चौ. किमी. क्षेत्राचो जुंवो तयार जाला. ब्रह्मपुत्रेक भारतांत उत्तरेकडल्यान सुबनसिरी, भरेळी, मानस, चंपावती, सरलभंगा, संकोश जाल्यार दक्षिणेकडल्यान बडी दिहांग, दिसांग, दिखू, धनसिरी, कोपिली ह्यो उपन्हंयो येवन मेळटात. आसामांतल्या ब्रह्मपुत्रेच्या देगणाक 'आसामाचें देगण' म्हणून वळखतात. ह्या देगणाच्या मध्यांतल्यान ब्रह्मपुत्रा न्हंय व्हांवता. भारतांतल्या गारो दोंगुल्ल्यांक भोंवताडो घालून ही न्हंय दक्षिण वाहिनी जावन बांगलादेशाच्या मैदानी प्रदेशांत जमुना नांवान शिरता. हांगा तिका उत्तरेकडल्यान तोरसा, जलढाका, तिस्ता ह्यो उपन्हंयो येवन मेळटात. फुडें गायबांडचे दक्षिणेक जमुनी (ब्रह्मपुत्रा) न्हंयेसावन पोरनी ब्रह्मपुत्रा हो न्हंयेप्रवाह वेगळो जाता. होच ब्रह्मपुत्रा न्हंयेचो मूळ प्रवाहमार्ग. हो प्रवाहमार्ग जमालपूर आनी मैमनसिंगच्यान आग्नेय दिकेन व्हांवत वतकच फुडें भैरवबाझारा लागसार मेघना न्हंयेक मेळटा. जमुना (ब्रह्मपुत्रा) न्हंयेचो सध्याचो मुखेल प्रवाह दक्षिणेक व्हांवत वचून ग्वालंदोचे उत्तरेक गंगा न्हंयेक मेळटा. जमुनेक बारल, अत्राई, हुरासागर हांचो संयुक्त प्रवाह उजवेकडल्यान येवन मेळटा. तेचपरी धालेश्वरी आनी बडी गंगा हे फांटे तिचेपसून वेगळे जावन स्वतंत्रपणान मेघना न्हंयेक मेळटात. फुडें मेघना खाडींतल्यान आनी हेर उपप्रवाहांतल्यान ही न्हंय बंगालच्या उपदर्याक मेळटा.

ब्रह्मपुत्रेचें तिबेटांतलें देगण रूक्ष, सुकें आनी थंड हवामानाचें जाल्यार बांगलादेश आनी आसामांतलें देगण उश्ण आनी सुक्या हवामानाचें आसता. आसामाच्या देगणाचो बरोचसो वाठार साल रुखाच्या रानांनी व्यापिल्लो आसा. दलदलीच्या वाठारांत वेताचीं रानां आसात. जाल्यार वसणूक आशिल्ल्या वाठारांत फळझाडां दिश्टी पडटात. कोंड्याचीं वनां सगळेकडेन आसात. आसामच्या दलदलीच्या वाठारांत चड करून एकशिंगी गेंडो मेळटा. तेभायर वाग, हत्ती ह्या देगणांत आसात.

ब्रह्मपुत्रा न्हंय तिबेटांतल्यान व्हांवता आसतना गाळाचें प्रमाण उणें आशिल्ल्यान त्सांगपो न्हंयेचें उदक निवळ आसता. भारतांत मात जायत्या उपन्हंयांक लागून हे न्हंयेंतलें उदक, ताचो वेग आनी गाळाचें प्रमाणूय वाडिल्लें दिसता. पावसाळ्यांत गोआलपाडे हांगा दर सेकंदाक १४,१५८ घ.मी. उदक व्हांवत आसता. न्हंयेच्या पात्राची रुंदाय ९.६ किमी. मेरेन वाडिल्ली मेळटा. दर वर्सा गाळ व्हांवोवन हाडून ताचें संचन जाल्ल्यान न्हंयेचो तिसरो पांवडो खुबूच सुपीक जाला. १९५० ते १९७० मेरेन बरेच फावट हांगा हुंवार आयिल्ल्यान चडसो भाग रेंबाटी जाला. ह्या रेंबांटिच्या वाठारांत भुंयेसावन उंचायेचेर कोंड्याचीं घरां बांदिल्लीं दिश्टी पडटात. एकुणिसाव्या शतमानासावन बंगालांतल्यान आसामच्या

देगणाकडेन जायत्या लोकांनी स्थलांतर केल्ल्यान बंगाली लोकांची संख्या हांगा चड प्रमाणांत दिश्टी पडटा. हे लोक हांगा सुपीक जमनीचेर शेती करतात.

ब्रह्मपुत्रा आनी तिच्यो उपन्हंयो हांचेवरवीं जावपी जमनीचे धुपीचेर नियंत्रण करपाचें काम चालू आसा. १९५४ सावन हुंवाराचेर नियंत्रण दवरपाचो प्रकल्प तशेंच न्हंयेचे देगेर बांद घालपाचो वावर सुरू केला. भारत सरकारान ३१ डिसेंबर १९८१ दिसा ब्रह्मपुत्रा मंडळ नेमिल्लें आसून, ताचें मुखेल कार्यालय गुवाहाटीक आसा. हुंवाराचेर नियंत्रण, न्हंयेच्या देगणांतली जमनीची धूप उणी करप उदका शिंपणी, वीजनिर्मिती, उदका येरादारी हांचे उदरगतीचो पुराय वावर ह्या मंडळाचेर सोंपयला. गुवाहाटी लागसार बरपणी आनी उमिअम हे वट्ट ६०,००० किवॉ. विजेची निर्मिती क्षमताय आशिल्ले दोन प्रकल्प उल्लेख करपासारके आसात. आसामांतले च्याचे मळे, खनीज तेल, कोळसो, सैमीक वायू, बांगलादेशांतलो ताग ही ब्रह्मपुत्रेच्या वाठारांतली अर्थीक येणावळ.

तिबेटांतलें ल्हासा ते लात्झू (ल्हात्से-झाँग) हांगाचें ६४० किमी. लाबायेचें त्सांगपो न्हंयेचें पात्र उदका येरादारीक उपेगी आसा. आसाम आनी बांगला देशांत उदका शिंपणावळीपरस उदका येरादारीचे नदरेन हे न्हंयेक खुबूच म्हत्व आसा. आसामाचो सुमार ५५% वेपार हे न्हंय येरादारीवरवीं चलता.

ब्रह्मपुत्रा न्हंयेचेर चडशे पूल नात. ताका लागून रस्ते आनी रेल्वेमार्ग चड करून न्हंयेच्या पात्राक समांतर केल्ले दिश्टी पडटात. १९६३ त गुवाहाटी लागसार एक पूल बांदलो. आसामांतलीं सदिया, दिब्रुगड, जोरहाट, तेझपूर, गुवाहाटी, गोआलपाडा आनी धुब्री, बंगालांतलीं कुडिग्राम, रहुमारी, चिलमारी, बहादुराबाद घाट, फुलचरी, सरिसाबारी, जगन्नाथगंज घाट, नगरबारी, सिराजगंज आनी ग्वालंदो हीं ब्रह्मपुत्रा न्हंयेदेगेवयलीं मुखेल शारां.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रह्मपुराण** : एक महापुराण. विष्णुपुराणांतले सुचीप्रमाण हाचो पयलो क्रमांक लागता. जाल्यार देवी भागवतांत ताचो पांचवो क्रमांक लागता. हातूंत १३,००० श्लोक आसात अशें मत्स्य पुराणांत सांगलां. ह्या पुराणाचो सुरवेचो श्लोक असोः

*यस्मात्सर्वमिदं प्रपञ्चरचितं माया जगज्जायते*
*यस्मिंस्तिष्ठति याति चान्त्यसमये कल्पानुकल्पे पुनः*
*यं ध्यात्वा मुनयः प्रपञ्चरहितं विन्दन्ति मोक्षं ध्रुवम ।*
*तं वन्दे पुरोषोत्तमाख्य ममलं नित्य विभुं निश्चलम।*

**अर्थ** : हें सगळें प्रपंचरचीत मायावी जग जाचेपसून उत्पन्न जाता, जाचेकडेन स्थित पावता आनी निमाणेकडेन जंय विलीन जाता, तशेंच ही प्रक्रिया जाका लागून कल्पाफाटल्यान कल्प चलत रावता आनी जाचें ध्यान करून मुनी मायेबगरच्या शुध्द चिरस्थायी मोक्षाक प्राप्त जातात त्या निर्मल, नित्य, विभू आनी निश्चल अशा पुरुषोत्तम विष्णुक हांव नमस्कार करतां.

आदिब्रह्म पुराण ह्या नांवान आनीक एक पुराण उपलब्ध आसून तातूंत ८,००० श्लोक आसात. ह्या पुराणाचें आनी प्रचलीत ब्रह्मपुराणाचें खूबकडेन सारकेपण आसा. व्यासान जीं पुराणां रचलीं आनी जांकां आदिपुराणां अशी संज्ञा आसा, तातूंतलें ब्रह्म पुराण हें पयलें आशिल्ल्याचें नारदपुराणांत म्हळां. देखून, ताका आदिपुराण ह्याय नांवान वळखतात. हातूंत सुर्याची पुजा वा सुर्याची उपासना स अध्यायांनी विस्तारान वर्णिल्या. ताचेवयल्यान ताका सौरपुराण अशेंय नांव आसा. पूण आदिपुराण आनी सौर पुराण नांवाचीं जीं उपपुराणां आसात तांचेकडेन ह्या पुराणाचो संबंद ना.

ब्रह्मपुराणांत वेदांत सांगिल्ल्या गजालींचें विवेचन केलां. पुराणांचीं जीं पांच लक्षणां आसात तेप्रमाण पयल्या चार अध्यायांनी सर्ग आनी प्रतिसर्ग, पांचव्या अध्यायांत मन्वंतर आनी फुडें चवदाव्या अध्यायामेरेन वंश आनी वंशानुचरित हो भाग आयला. हे भायर आख्यानां, तीर्थक्षेत्रांचीं महात्म्यां आदी गजाली आयल्यात त्यो अशो : उत्कल (ओडिसा) वाठारांतलें अनंत वासुदेव, पुरीचें पुरुषोत्तम देवूळ, कोणार्काचें सूर्यमंदिर, एकांबर क्षेत्र, भुवनेश्वर क्षेत्र, विरज क्षेत्र, गौतमी (गोदावरी), कृत्तिका तीर्थ, चक्रतीर्थ, पुत्रतीर्थ, यमतीर्थ, आपस्तंब तीर्थ हांचीं बी महात्म्यां, अहिल्या, पुरुरवा, उर्वशी, वृषाकपी, आत्रेय-आत्रेयी आदी कथा आनी आख्यानां आसात. ह्या पुराणांत कृष्णचरित्र ३२ अध्यायांनी वर्णिल्लें आसून तें भागवताच्या दशमस्कंधांतल्या कृष्णचरित्राभाशेन आसा.

ब्रह्म पुराणांत सांख्य तत्त्वगिन्यानाक म्हत्व दिल्लें आसा. पुर्विल्ले सांख्य तत्त्वगिन्यानी, २५मूळ तत्त्वां मानतात. फुडले सांख्य तत्त्वगिन्यानी ईश्वर हें २६वें श्रेष्ठ तत्त्व मानतात. मनशाच्या पाप-पुण्याक धरून मरणा उपरांतची स्थिती यमलोक, नरक, श्राध्दकल्प, सदाचार आदी गजालींचें वर्णनूय ह्या पुराणांत आयलां. ह्या पुराणांत दर एकेकडेन सुभाषितांतल्यान जायतीं निती तत्त्वां सांगल्यांत. मनशाक कितलेंय मेळ्ळें तरी लेगीत तो तृप्त जायना. मनशान आपल्या मोहाक आळो घालपाक जाय. तशेंच आपल्या मनाचें शुध्दत्व राखूंक जाय. अशीं जायतीं नितीमुल्यां ह्या पुराणांत सांगल्यांत.

संशोधकाच्या मतान इ. स. च्या सातव्या वा आठव्या शतमानाआदीं ब्रह्मपुराण निर्माण जालें. हातूंत बुध्दाक अवतार मानूंकना. बुध्द जालो तो काळ इ. स. ७०० ते ८०० असो आसा. पूण डॉ. हाझरा हाणें पुराव्यान हें सांगलां, ह्या पुराणाचे आजचे अवस्थेंतले सगळे भाग एकाच काळांतले नात. हातूंतलो कांय भाग इ. स. च्या १० ते १२ शतमानांतलो आसतलो जाल्यार कांय भाग इ. स. च्या पंदराव्या शतमानांतलो आसतलो.

- डॉ. अनंत राम भट

**ब्रह्मयज्ञ :** ब्राह्मणान सदांच करपाचो स्वाध्याय (आपलें अध्ययन) म्हळ्यार ब्रह्मयज्ञ. सकाळीं संध्या आनी प्रातर्होम जातकच वा दनपारां संध्येउपरांत वा वैश्वदेवाउपरांत ब्राह्मणान दिसांतल्यान एक फावट ब्रह्मयज्ञ करचो अशें धर्मसिंधूंत सांगलां. हाचें सगळ्यांत पोरनें वर्णन शतपथ ब्राह्मणांत मेळटा. ब्रह्मयज्ञांत वेद, विद्या, ब्रह्मोद्य, इतिहास पुराणां, गाथा हाचें आपल्याक शक्य आसा तेप्रमाण अध्ययन करपाचें आसता. म्हणजेच जें पयलीं शिकलां ताची एके तरेन आवृत्तीच करप.

स्वाध्याय करतना कोणाचो त्रास वा आडखळ जावंची न्हय देखून गांवा भायर उदेंतेक, उत्तरेक वा ईशान्येक गांवांतलीं घरां दिसचिनांत अशा जाग्यार ब्रह्मयज्ञ करचो. हें शक्य नासल्यार घरांतूच केल्यार जाता. क्षितिजाकडेन दोळे लावन वा दोळे धांपून एकाग्र चित्तान स्वाध्यायाचें पठण करपाचें आसता. तेखातीर जानवें माळेवरी करून दर्भासनाचेर उदेंतेक तोंड करून बसपाचें आसता. दावे मांडयेर उजवो पांय दवरून संकल्प करप आनी उपरांत स्वाध्यायाक सुरवात करप.

पयलींच्यो कृती जातकच ऋग्वेदाचें 'अग्निमिळे पुरोहितन' हें सुक्त पयलीं म्हणपाचें मागीर हेर वेद-वेदांगादी ग्रंथाचीं पयलीं वाक्यां म्हणपाचीं. देखीक : अग्निर्वै देवानामवमो विष्णुः परमः (ऐतरेय ब्राह्मण), अथातो धर्म व्याख्यास्यामः (धर्मसूत्र).

उपरांत ब्रह्मयज्ञांग तर्पण करपाचें आसता. हातूंत देवतर्पण, ऋषितर्पण आनी पितृतर्पण येता. सुरवेक 'प्रजापतिस्तृप्यतु' आदी वाक्यान सव्यान देवतर्पण करप, उपरांत निवीती (मालाकार) करून 'शतर्चिनस्तृप्यन्तु' आदी वाक्यांनी ऋषितर्पण करप आनी निमाणें प्राचीनावीती (अपसव्य) करून 'सुमन्तुजैमिनिवैशंपायनपैलसुत्रभाष्यभारतमहाभारतधर्मा-चार्यास्तृप्यन्तु' आदी वाक्यांनी पितृतर्पण करपाचें आसता. देवऋषितर्पण अक्षतांनी आनी पितृतर्पण काळ्या तिळांनी करपाचें आसता. देवांक दरेकीं एक ऋषींक दरेकीं दोन आनी पितराक दरेकीं तीन पळयो उदक दिवप. तर्पणा वेळार उजव्या हातांत तोंकाचो दर्भ आसचो. देवांक दर्भाच्या तोंकांनी, ऋषींक दर्भाच्या मदल्या भागान आनी पितरांक दर्भाच्या मूळभागान तर्पण करपाचें आसता. देवार्पणाक उजवें धोंपर जमनीक तेंकयतात, ऋषीतर्पणाक दोनूय धोंपरां जाल्यार पितृतर्पणाक दावें धोंपर जमनीक तेंकयतात.

ब्रह्मयज्ञाच्या सुरवेक भूः, भुवः, स्वः ह्यो तिनूय वेदांच्यो व्याहृती उच्चारपाच्यो; उपरांत गायत्री मंत्र जपप आसता. निमाणें 'नमो ब्रह्मणे नमो' हो मंत्र तीन फावटीं उच्चारून व्याहृति, शांतिः शांतिः शांती म्हणून तर्पण करून ब्रह्मयज्ञ सोंपोवंचो आसता.

आचरेंदु ह्या ग्रंथांत ब्रह्मयज्ञाचें फळ सांगलां तें अशें :

*स्वशाखाध्ययनं यत्तद ब्रह्मयज्ञं प्रचक्षते ।*
*ब्रह्मयज्ञपरो मर्त्यो ब्रह्मलोके महीयते ।।*
*वेदाभ्यासो यथाशक्त्या ब्रह्मयज्ञ क्रियाक्षमः ।*
*नाशयल्याशु पापानि महापातक जान्यपि ।।*

**अर्थ :** आपले शाखेच्या अध्ययनाक ब्रह्मयज्ञ म्हण्टात. ब्रह्मयज्ञ करपी मनीस ब्रह्लोकांत पुज्य जाता. ब्रह्मयज्ञाखातीर यथाशक्ति केल्ल्या वेदाभ्यासांत महापातकांतल्यान लेगीत उत्पन्न जाल्ल्या पापांचो नाश जाता.

- डॉ. अनंत राम भट

**ब्रह्मलोक :** एक देवलोक. हांगा ब्रह्मदेवाचें निवासस्थान आशिल्ल्यान ताका ब्रह्मलोक अशें नांव मेळ्ळां. ब्रह्मलोकाक शाश्वत विश्व अशेंय म्हण्टात. जे लोक सदाचरणी आनी पवित्र आसात, तांकांच ब्रह्मलोकांत प्रवेश मेळटा अशें छांदोग्योपनिषदांत सांगलां. ज्या कोणाक हातूंत प्रवेश मेळटा ताचो पुनर्जल्म सुद्धा अशें वायु पुराणांत म्हळां.

अगस्त्येश्वरम आनी देवतीर्थम ह्या तिर्थांनी न्हाण घेता ताका ब्रह्मलोकाची प्राप्ती जाता, अशें मत्स्यपुराणांत म्हळां. ययाती देवलोकांतल्यान ब्रह्मलोकांत गेल्ल्याचोय उल्लेख मत्स्यपुराणांत आसा. जेन्ना ब्रह्मा हो वैदिकांचो प्रधान देव आशिल्लो, तेन्ना समाजमनांत ब्रह्मलोकाक व्हड प्रतिश्ठा आशिल्ली. कन्यादानांतूय 'ब्रह्मलोकावाप्त्यर्थम्' असो संकल्प आसतालो. पूण ब्रह्माचें देव म्हणून म्हत्व उणें जातकच ताच्या लोकाचेंय म्हत्व उणें जालें आनी ती सुवात वैकुंठ आनी कैलास ह्या लोकांनी घेतली.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रह्मवीणा :** एक तंतुवाद्य. चड करून तंबोऱ्याभाशेनूच ह्या वाद्याचो आकार आसता. पूण तंबोऱ्याक आसता तसलो वाटकुळो दुदी हाका नासता. ताच्या बदलाक एक आठ कोनांची पेट लायतात. तशेंच दांडयेचे फाटले वटेन बीन ह्या वाद्याभाशेन आनीक एक आठ कोनांची ल्हानशी पेट लायतात. ह्या वाद्याक केन्ना चार जाल्यार केन्ना पांच सरयो आसतात. तशेंच ह्या सरयांक आंवुळपाखातीर तितल्योच खुंटयो आसतात. दांडयेचें वयलें तोंक मात्शें फाटल्यान बागयल्लें आसता.

इ. स. च्या १४ व्या शेंकड्यांत जावन गेल्ल्या हरिपाळदेवाचो 'संगीतसुधाकर' आनी अहोबलाचो 'संगीतपरिजात', नारदाच्या 'संगीतमकरंद' ह्या ग्रंथांनी ह्या वाद्याचे उल्लेख आसात. हाचे वयल्यान हें वाद्य खूब पोरनें आसुंये. पूण ह्या सगळ्या ग्रंथांतल्या ब्रह्मवीणेच्या वर्णनांत सारकेपण ना. 'संगीतसारसंग्रहम' ह्या तेलुगू ग्रंथांत ब्रह्मवीणेचे दांडयेवयले घोडयेभितर चोवीस पड्डे आसतात अशें म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रह्मवैवर्तपुराण :** (पळेयात पुराणां).

**ब्रह्मसुत्रां :** बादरायण ऋषींनी वेगवेगळ्या उपनिषद वचनांची मीमांसा करून तांची एकवाक्यता दाखोवन दिवपाखातीर आनी उपनिषदाचें सार सांगपाखातीर जीं सूत्रां रचलीं, तांकां 'ब्रह्मसूत्रां' अशें म्हण्टात. तातूंतलो मुखेल विशय 'ब्रह्म'. ब्रह्मसूत्रांक बादरायण सूत्रां, वेदान्तसूत्रां, उत्तर मीमांसासूत्रां, शारीरक सूत्रां अशीं दुसरींय नांवां आसात. शारीरक म्हळ्यार शरिरांत रावपी आत्मो. ब्रह्मसूत्रांत जसो ब्रह्माचो विचार आसा. तसो आत्म्याचोय आसा आनी त्या दोगांयच्या संबंदांचोय आसा. आत्रेय आश्मरथ्य, बादरी, औडुलोमी, काशकृत्स्न ह्या पूर्वाचार्यांचो उल्लेख बादरायणाच्या ब्रह्मसूत्रांत आयला. भिक्षू वा संन्यासी हांचेखातीर हीं सूत्रां खूब उपेगी आशिल्ल्यान तांकां 'भिक्षुसूत्रां' अशेंय नांव आसा.

ब्रह्मसूत्रांचे चार अध्याय आसून दरेक अध्यायाचे चार पाद आसात. सगळीं उपनिषद वाक्यां ब्रह्म ह्या सिध्द वस्तूविशीं सांगता अशें म्हणून विश्वाची प्रतिश्ठा ब्रह्मांत आसा अशें सांगतात, अशें पयल्या 'समन्वयाध्याय' नांवाच्या अध्यायांत उक्तायलां, ह्या मताक हेर खंयचेच तरेचो विरोध येना, हें दाखोवपाखातीर दुसऱ्या 'अविरोधाध्याय' ह्या अध्यायाची येवजण केल्या. हातूंत ब्रह्मापसून तत्त्वांची उत्पत्ती कशी जाली, ताचीय विस्कटावणी आयल्या. तिसऱ्या अध्यायाचें नांव 'साधनाध्याय'. तातूंत उपनिषदांच्या आदारान ब्रह्मप्राप्तीच्या साधनांचो विचार केला. चवथ्या म्हळ्यार फलाध्यायांत ब्रह्मविद्येच्या फळाची मीमांसा केल्या. तातूंत मोक्षावस्थेचें तशेंच जिवाच्या मरणा उपरांतचे अवस्थेचें वर्णन आसा. शांकरपाठांत सूत्र संख्या ५५५ आनी अधिकरणां १९२ आसात.

ब्रह्मसूत्रांचेर कितल्योशोच व्याख्या, भाश्यां, टिका आनी वृत्ती आसात. हातूंतलें शंकराचार्य (७८८-८२०) हाचें भाश्य सगळयांत पोरनें. रामानुजाचार्य, मध्वाचार्य, श्रीकंठाचार्य, श्रीपती, आनी वल्लभाचार्य हांचीं भाश्यां उल्लेख करपासारकीं आसात.

वेगवेगळ्या जाणकारांनी आपापल्या संप्रदायाचे पुश्टीखातीर ब्रह्मसूत्रांचे अर्थ वेगवेगळे तरेन लायले. देखून सूत्रकारांच्या मनांत ब्रह्मसुत्रांचे आध्यात्मिक सिध्दांत नेमके खंयचे आशिल्ले तें समजप कठीण जाता. सूत्रां इतलीं 'अल्पाक्षर' आसात, फकत तीं वाचून व्हडलोसो अर्थ समजना. देखून वेगवेगळ्या भाश्यांची तुळा करून अदमासान ब्रह्मसूत्रकारांचो तात्त्विक विचार थोडेभितर असो मांडूं येता. जगाची उत्पत्ती आनंदमय चेतन ब्रह्मापसून जाता, अचेतन प्रकृतीसावन न्हय जगाची धारणा ब्रह्माकडल्यान जाता आनी ताचो लय ब्रह्मांतूच जाता. जीव ज्ञानस्वरूप आसून तो ब्रह्माचो अंश आसा. परमात्मो सगळ्या जिवांच्या अंतस्करणांत वसता. वेगवेगळ्या उपासनांनी ब्रह्मज्ञान जातकच जीव ब्रह्मलोकांत वता आनी थंयच्यान परत केन्नाच येना.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रह्मांड :** हें उतर 'ब्रह्म' आनी 'अण्ड' ह्या दोन उतरांपसून सादलां. ब्रह्मांड म्हळयार पुराय विश्व. हें तांतयाच्या आकाराचें मानिल्लें आसून हें विश्वरुपी तांतीं ब्रह्मदेवाचे इत्सेंतल्यान निर्माण जालां. म्हणुनूच ताका ब्रह्मांड म्हण्टात. ह्या ब्रह्मांडांत एकंदर चवदा भुवनां आसात. ह्या चवदा भुवनांचे तीन विभाग केल्यात- मध्यलोक, ऊर्ध्वलोक आनी अधोलोक. मनीस ज्या लोकांत रावता ताका मध्यलोक म्हण्टात. मध्यलोकीं वयर स लोक आसात. तांकां 'ऊर्ध्वलोक' म्हण्टात. तांचीं नांवां अशीं : भुवर्लोक, स्वर्लोक, महर्लोक, जनलोक, तपोलोक, सत्यलोक. मध्यलोका सकयल सात लोक आसात तांकां अधोलोक म्हण्टात. तांचीं नांवां अशीं : अतल, वितल, सुतल, तलातल, महातल, रसातल, पाताल.

ह्या चवदाय लोकांचें थोडेभितर वर्णन अशें : १) भूलोक : म्हळयार धर्तरी. मनीस, मोनजात हांची रावपाची सुवात, २) भुवर्लोक : सिध्द आनी मुनी हांची रावपाची सुवात, ३) स्वर्लोक : म्हळयार स्वर्ग. देवांचें निवासस्थान, ४) महर्लोक : हो ध्रुवाचे कडेक आसा. हांगा कल्पान्ता मेरेन आयुश्य आशिल्ले लोक रावतात. ५) जनलोक : सनत्कुमारा सारक्या महात्म्यांची रावपाची सुवात. ६) तपोलोक : देह नाशिल्ल्या वैराजादी लोकांची रावपाची सुवात. ७) सत्यलोक : सिध्द आदी मुनी लोकांची रावपाची सुवात. ८) अतलः हांगा मयासुराचो पूत बिल हाचें राज्य आसा. ९) वितल : हांगा हाटकेश्वर शंकर भवानीवांगडा रावता. १०) सुतल : बलिराजाचें स्थान, ११) तलातल : मयासुरालें राज्य, १२) महातल : क्रोधवश नांवाच्या सोरपांनी रावपाची सुवात, १३) रसातल : दैत्य आनी दानवांचो रावपाचो जागो, १४) पाताळ : शेष नागाली रावपाची सुवात.

पुराण काळांत जरी अशी वयर सांगिल्लेप्रमाण ब्रह्मांडाची कल्पना मांडल्या जाल्यार ताचेपयलीं वैदिक काळांत ब्रह्मांडाचे धर्तरी, वायू आनी मळब अशे तीन विभाग मानल्यात. ब्राह्मण आनी उपनिषद काळांत त्या तिनांक भूः, भुवः आनी स्वः अशीं तीन नांवां दिल्लीं. कांय काळान महः, जनः, तपः आनी सत्यं अशा चार आनीक लोकांची कल्पना मांडली. हातूंत भूलोक म्हळयार धर्तरी आनी उरिल्ले स लोक धर्तरे वयर मानले. उपरांत धर्तरेसकयल सात लोकांची कल्पना केली आनी अशे तरेन चतुर्दशभुवनात्मक ब्रह्मांड निर्माण जालें.

पुराण काळा उपरांतच्या आगम आनी तंत्रशास्त्रांत हाचेयपरस खूब विस्तारान कल्पना मांडल्या. तंत्रमतान पुराणांत वर्णन केल्ल्या ब्रह्मांडाचेय भायर ताचेयपरस खूब व्हड अशीं जायतीं ब्रह्मांडां आसात.

मनशाक आपले भोंवतणीं आशिल्ल्या सैमाविशीं जाणून घेवपाची इत्सा आसता. तशेंच ताका वायुमंडल, मळब, गिरे हांचेविशीं लेगीत उत्सूकताय आसता. ताका लागून विश्वाचें रहस्य उखलपाक मनशान तरेतरेच्यो कल्पना केल्यो. पूण ताचें समाधान जावंक ना. मनीस जसो जसो सुदारलो, सुसंस्कृत जायत गेलो, तशें तशें ताका संवसाराचें

गिन्यान चड चड जायत गेलें. पूण ब्रह्मांडाचे निर्मितीचें निमाणें सत्य अजून ताका मेळूंक ना. संशोधकाक तेचपरी शास्त्रज्ञाक ताचो सारको पत्तो लागूंक ना. ह्या कामांत ते नवीं नवीं साधनां, उपकरणां तयार करून तांचो उपेग करीत आसात आनी ब्रह्मांडाचे रचनेचो पत्तो लायत आसात.

हें सोद घेवपाचें काम पुर्विल्ल्या काळासावन चालूच आसा. परब्रह्म हें एक अद्वितीय तत्त्व. तें तरेतरेच्या रुपांनी नट्टा आनी हातूंतल्यानूच ब्रह्मांड आकाराक येता अशी भारतीयांची धारणा आसा. विश्व खंयच्याय तरी सनातन नेमाक अनुसरून चलत आसा. ऋत आनी सत्य हे ते दोन नेम अशें ऋग्वेदांत सांगलां.

चालू शतमानाचे सुरवेक चड शक्ती आशिल्लीं वेधयंत्रां निर्माण जालीं. त्या यंत्रांनी वेद घेतकच कळ्ळें, ब्रह्मांडाच्यो कल्पना ज्यो पयलीं केल्यात तशें तें ना. ताका लागून ताच्या स्वरुपाविशीं पयलीं केल्ल्या मूलभूत धारणांनी संशोधकांक ब्रम्हांडा संबंदान नवें नवें गिन्यान मेळ्ळें. तांकां वारो, कुपां, एका गिन्यासावन दुसऱ्या गिन्यामेरेन मेळपी वायू, धुल्ल, धुकें, गिन्यांचोमो आदी नव्या घटकांचें गिन्यान जालें. मळबांत दिसपी आकाशगंगा हो ब्रह्मांडांतलो एक जुंवो आसा आनी अशे ब्रह्मांडांत कोट्यांनी जुंवे आसात जाल्यार ह्या ब्रह्मांडाची शीम खंय हो प्रस्न उपरासता. ब्रह्मांड निर्माण जावन ४-५ अब्ज वर्सां जाल्यांत जाल्यार ताची समाप्ती सुमार १० अब्ज वर्सांनी जातली अशें शास्त्रज्ञांचें मत आसा.

- डॉ. अनंत राम भट

**ब्रह्मांडपुराण :** एक महापुराण. विष्णु पुराणांतले सुचीप्रमाण हें अठरा पुराणांतलें एक. हाची श्लोक संख्या १२,००० आसून तातूंत चार पाद म्हळ्यार विभाग आसात. तांचीं नांवां प्रक्रिया, अनुषंग, उपोद्घात आनी उपसंहार. ह्या पुराणाक ब्रह्मांड ह्या नांवावरीच तातूंत ब्रह्मांडाची उत्पत्ती आनी एकदंर भुगोलाचो विस्तार सांगला. भुंयेर आशिल्ले सगळे जुंवे, तातूंतले दोंगर, न्हंयो, लोक, तांच्यो चालीरिती आदी गजालींचें विस्तारान वर्णन केल्लें आसा. मन्वंतरां, व्यासाचे शिश्य, वेदशाखेचे विभाग ह्याय गजालींची म्हायती हातूंत आयल्या. हातूंत जीं क्षत्रीय राजांचीं वर्णनां आयल्यांत तांकां इतिहासीक नदरेन म्हत्व आसा. ब्रह्मांडांत एकेकडेन ध्रूव हो सुर्याक आकर्शीत करता अशें म्हळां ही गजाल जरी खरी आसली तरी तो गिरो ध्रूव नासून शौरी (हर्क्युलस) आसा अशें आयचे विज्ञानीक म्हण्टात. सूर्याक आकर्शीत करपाची ही कल्पना जी सदा विज्ञानीक मांडटात ती त्या वेळार पुराणकर्त्याक सुचली हें चड म्हत्वाचें.

परशुरामान तपश्चर्या करून शस्त्रां मेळयल्लीं आनी त्या शस्त्रांबळार कार्तवीर्याक मारलो, भगीरथान गंगेक स्वर्गांतल्यान धर्तरेचेर हाडली, धन्वंतरीक भारद्वाजाकडल्यान आयुर्वेद मेळ्ळो, ललितादेवीन भंडासुराक मारलो आदी जायतीं ल्हान-व्हड आख्यानां ह्या पुराणांत आयल्यांत. ह्या सगळ्या आख्यानांनी ललितादेवीचें आख्यान चाळीस अध्यायांनी सांगलां. ललितादेवीची कथा, तिचें महात्म्य आनी समुद्रमंथना वेळार देवांनी केल्ली तिची तुस्त इतल्यो सगळ्यो गजाली ह्या आख्यानांत आसात. तशेंच वैदिक आनी तंत्रीक मंत्र, श्रीविद्या आनी सहस्त्राक्षर विद्या ह्या नांवाचेय मंत्र तातूंत आसात. तेभायर श्रीकृष्ण राधा हांचें वर्णन तशेंच शुर्पार क्षेत्राचें वर्णनूय तातूंत आयलां. शुर्पार म्हळ्यार कोंकणाचोच प्रदेश. हातूंत कामाक्षी नांवाचे देवीचें वर्णन आसा. कोंकणाचो एक भाग आशिल्ल्या गोंयांत शिरोडें गांवांत कामाक्षी देवीचें पुर्विल्लें स्थान आसा.

ब्रह्मांडपुराणांत गोदावरीचो उगम आनी तिचे भोंवतणच्या वाठाराचें वर्णन केल्लें आसा. महाराष्ट्रांतल्या लोकांक महाराष्ट्र हें विशेशण ह्या पुराणांत लायिल्लें दिसता. हाचेवयल्यान गोदावरीच्या उगमालागीं म्हळ्यार नासिक, त्र्यंबकेश्वर वाठारांत खंय तरी हें पुराण निर्माण जालां जावंये अशें म्हण्टात. अध्यात्म रामायण म्हणून जो ग्रंथ आसा तो ह्याच पुराणांतल्यान वेगळो काडला. तेभायर अनिकूय कांय भाग ह्या पुराणांतल्यान वेगळे काडल्यात अशें समजतात. तांचीं नांवां अशीं : गणेशकवच, तुलशीकवच, हनुमत्कवच, सिध्दलक्ष्मीस्तोत्र, सीतास्तोत्र, ललिता सहस्त्र नाम, सरस्वतीस्तोत्र आदी.

हें पुराण इ. स. ३२५ च्या सुमाराक निर्माण जालां अशें म्हण्टात. हें पुराण इ. स. च्या ५ व्या शतमानांत भारतीय ब्राह्मणांनी यवद्वीपांत (जावा-सुमात्राक) व्हेलें. तें थंयच्या लोकांक खूब आवडलें. थंयचे थळावे भाशेंत ताचो अणकार जाल्लो आसा. त्या अणकाराचें मूळ ब्रह्मांडपुराणाकडेन तुळा केल्यार अशें दिसता, भविश्यकाळांतल्या राजवंशांचीं वर्णनां सोडल्यार हेर सगळे विशय दोगांयमदीं सारके आसात.

- डॉ. अनंत राम भट

**ब्रह्मा :** ब्रह्मा, विष्णु आनी महेश ह्या त्रिमूर्ती देवांतलो एक. हाका ब्रह्मदेव वा प्रजापती अशेंय म्हण्टात. क्षीरसागरांत शेषशायी विष्णुचे बोंबलेंतल्यान ब्रह्मदेवाचो जल्म जालो, देखून ताका स्वयंभू, नाभिज, कमलोद्भव अशीं नांवां मेळ्ळयांत. नारायणान ताका, आकाशवाणी करून आदेश दितकच, ताणें हजार वर्सां तप केलें आनी उपरांत ब्रह्मांडाची उत्पत्ती जाली, अशी पौराणिक कथा आसा. ब्रह्मा सगळ्या देवांभितर पयलीं उत्पन्न जावन तो विश्व निर्मुपी आनी ताचो राखणदार जालो अशें मुंडकोपनिषदांत सांगलां.

ब्रह्मदेवाक चार तोंडां आसून, तांची रूपमंडनांत व्याख्या केल्या ती अशी-

*ऋग्वेदादिप्रभेदेन कृतादियुगभेदतः ।*

*विप्रादिवर्णभेदेन चतुर्वक्त्रं चतुर्भुजम् ।।*

**अर्थ :** ब्रह्मदेवाचीं चार तोंडां आनी चार भुजां हे ऋग्वेदादी चार वेद, कृतादी चार युगां आनी ब्राह्मणादी चार वर्ण हांचीं प्रतिकां.

ब्रह्मदेवाचे मानस, कायिक, चाक्षुष, वाचिक, श्रवणज, नासिकाज, अंडज वा पद्मज अशे सात जल्म जाले अशें महाभारतांत म्हळां. ब्रह्मदेवाक मुळांत एकूच मुखामळ आशिल्लें. पूण उपरांत ताका आनीक चार मुखामळां निर्माण जालीं. हेविशींची मत्स्य पुराणांतली कथा अशी -



ब्रह्मदेवाची मूर्त - इ.स. चो १८वो शेंकडो

एकदां ब्रह्यान आपल्या अर्द्या आंगापसून शतरुपा नांवाची एक सोबीत बायल तयार केली; जल्माक येतकच ती ब्रह्याभोंवतणीं प्रदक्षिणा घालपाक लागली. त्या वेळार ब्रह्याचे मानसपुत्र ताचे भोंवतणीं बशिल्ले. तेखातीर ब्रह्याक तिचेकडेन तोंड घुंवडावन पळोवपाक लज दिसली. पळोवपाची खूब इत्सा आशिल्ल्यान ताणें चारूय वटांनी चार मुखामळां तयार केलीं. जेन्ना ती मळबांतल्यान वचूंक लागली तेन्ना ब्रह्याच्या माथ्यार आनीक एक मुखामळ तयार जालें. हाका लागून पूत जावपाखातीर ताणें केल्लें तप मात फुकट गेलें.

ब्रह्याचें एक मुखामळ नश्ट जाल्ल्याच्योय कांय कथा आसात त्यो अशो-१ ब्रह्यान, शंकराक आपलो चलो जावपाक सांगलें, तेन्ना शंकराक राग आयलो आनी आपल्या आखाण्याच्या नाखटान ताणें ब्रह्याचें एक मुखामळ तोडलें. २) ब्रह्यान सरस्वतीकडेन संभोग केल्ल्यान शिवान ताचें एक मुखामळ कापलें.

ब्रह्मदेवान सुरवेक तमोगुणी, उपरांत रजोगुणी आनी मागीर सत्वगुणी अशी प्रजा उत्पन्न केली. तमोगुणी सृश्टी उपरांत ताणें नाग, तिर्यक, ऊर्ध्वस्त्रोतस देव, अर्वाकस्त्रोतस नर, अनुग्रह, भूत, प्राकृत, वैकृत आनी कौमार अशी प्रजा उत्पन्न केली. उपरांत ताणें क्षुधा, राग, यक्ष, राक्षस, सोरोप, भूत, गंधर्व, पशु-पक्षी आनी झाडां उत्पन्न केलीं. ताच्या उदेंतेकडल्या मुखापसून गायत्री छंद, ऋग्वेद, त्रिवृत्स्तोम, रथंतरसाम आनी अग्निष्टोम; दक्षिणेकडल्या मुखापसून यजुर्वेद, पंचदशस्तोम, बृहत्साम आनी उक्थ; अस्तंते कडल्या मुखापसून सामवेद, सप्तदशस्तोम, वैरुपसाम आनी अतिरात्र आनी उत्तरेकडल्या मुखापसून अथर्ववेद, एकविंश आप्तोर्याम, अनुष्टुप छंद आनी वैराजसाम उत्पन्न जाले.

हे उपरांत ब्रह्मदेवान मरीची, अत्री, अंगिरस, पुलस्त्य, पुलह, ऋतू, दक्ष, भृगू, आनी वसिष्ठ ह्या मानसपुत्रांक उत्पन्न केले आनी उपरांत आपल्या अवयवांपसून धर्म, रूची, भृगू, दक्ष आदी ऋषी निर्माण केले. ताणें उजव्या आखाण्या पसून दक्ष, ह्रदयापसून मदन, पोटापसून लोभ, दोळयापसून मरण, गळयापसून प्रमोद, तळव्यापसून भरत आनी देहापसून शतरूपा हांकां उत्पन्न केले. शतरुपेकच सावित्री, सरस्वती, गायत्री, आनी ब्रह्माणी म्हण्टात. तिचेपसून ब्रह्याक सायंभुव मनू जालो. सरस्वतीक ब्रह्याची चली तशेंच बायल म्हणुनूय वळखतात. पुराण कथेवयल्यान सरस्वतीच्या शापाक लागून ब्रह्याची पुजा वर्ज्य मानतात. ही पुराणकथा अशी : एक फावट ब्रह्मा यज्ञ करूंक बसलो. दिक्षा घेवन यज्ञाक सुरवात करपाखातीर ताणें सावित्रीक आपोवंक धाडली. पूण तिका येवपाक वेळ जालो. तेन्ना ब्रह्यान रागान एका गवळयाची चली गायत्री हिका घेवन यज्ञ केलो. यज्ञ सोंपपाच्या वेळार सावित्री थंय आयली आनी तिणें ब्रह्मदेवाक स्त्राप दिलो.

ब्रह्याचें आयुर्मान दिव्य शंबर वर्सां आसा. त्या दिव्य वर्सांचें कोश्टक अशें:

| | | | |
|---|---|---|---|
| १७,२८,००० | मानवी वर्सां | = | कृतयुग |
| १२,९६,००० | मानवी वर्सां | = | त्रेतायुग |
| ८,६४,००० | मानवी वर्सां | = | द्वापारयुग |
| ४,३२,००० | मानवी वर्सां | = | कलियुग |

कृत, त्रेता, द्वापार आनी कली हीं चार युगां मेळून एक पर्याय जाता. अशे १००० पर्याय म्हळयार ब्रह्याचो एक दीस वा कल्प. अशे ३६० दीस म्हळयार एक दिव्य वर्स, सद्या ब्रह्मदेवाचीं अशीं पन्नास वर्सां जालीं अशें मानतात.

ब्रह्याची मूर्त कशी आसची तें मत्स्यपुराण, विष्णुपुराण, रुपमंडन, सुप्रभेदागम, ग्रंथांत सांगलां.तातूंतल्या मत्स्यपुराणांतलें वर्णन अशें :

*ब्रह्मा कमण्डलुधरः कर्तव्यः स चतुर्मुखः।*
*हंसारूढः क्वचित् कार्यः क्वचिच्च कमलासनः ।।*
*वर्णतः पद्मगर्भाभश्चतुर्बाहुः शुभेक्षणः ।*
*कमण्डलुं वामकरे स्त्रुवं हस्ते तु दक्षिणे।।*

(मत्स्य पु. २५९.४०-४१)

**अर्थ :** ब्रह्मा हो चार मुखांचो, चार हातांचो, हंसाचेर वा कमळाचेर आरुढ जाल्लो, ताचो वर्ण कमळाच्या भितरल्या भागावरी तांबडो आनी नदर शुभ आसूंक जाय. ताच्या दाव्या हातांत कमंडलू आनी उजव्या हातांत स्त्रुवा आसुंक जाय. तेचपरी ताचे दावे वटेन सावित्री, फुडें चार वेदधारी आनी भोंवतणीं ऋषी आसूंक जाय अशें अभिलषितार्थचिंतामणींत सांगिल्लें आसा. ब्रह्याक खाड आसुंकूच जाय अशें रूपमंडनांत म्हळां. विष्णुपुराणांत ताका सात हंसांच्या रथार आरूढ करपाक सांगलां.

ब्रह्मदेवाचीं स्वतंत्र देवळां चड प्रमाणांत नात. भारतांत खेडब्रह्म, ईदर, दुदाही, अजमेर (पुष्कर), वसंतगड, महाबलिपुरम आनी गोंयांत करमळे ब्रह्मदेवाचीं देवळां आसात. तातूंत ब्रह्याच्यो वेगवेगळया तरांच्यो मुर्ती आसात. दुदाही गांवच्या देवळांत गर्भकुडीच्या दारामदीं हंसाचेर आरुढ अशी तीन मुखांची मूर्त आसून तिका खाड आसा. वसंतगड (राजस्थान) हांगाच्या देवळांत तीनमुखी ब्रह्मदेवाची पुर्णाकृती उबी मूर्त आसा. हे मुर्तीक दोनूच हात आसून तातूंत अक्षमाला आनी कमंडलू आसा. खेडब्रह्म हांगाच्या देवळांत मुखेल मुर्ती भायर पार्शदेवता म्हणून ब्रह्याचींच तीन रुपां दाखयल्यांत. हातूंत तांचीं वाहनां नंदी, घोडो आनी गरूड अशीं बदलल्यांत. गोंयांतली ब्रह्मदेवाची मूर्त तीनमुखीच आसा. चवथें तोंड फाटले वटेन आसा अशें समजप जाता. हाचेभायर ब्रह्याच्यो प्रतिमा हेरकडेनूय दिसतात त्यो अशो : मंगळवेढे गांवांत महादेवाचे बांयत पांच फूट उंचायेची ब्रह्मदेवाची उबी मूर्त आसून तिच्या चार हातांनी अक्षमाळा, स्त्रुक्, वेदग्रंथ आनी कमंडलू अशो चार वस्तू आसात. मुर्तीच्या मदल्याच मुखाक खाड आसा. चेन्नईच्या वस्तूसंग्रहालयांतली ब्रह्मदेवाची मूर्त उबी आसून ताच्या सगळया मुखांक खाड आसा.

ब्रह्मदेवाच्यो सगळयांत पोरन्यो मुर्ती मथुरेच्या कलासंप्रदायांत मेळटात. मथुरेंत कुषाणकाळासावन मध्यकाळामेरेनच्यो ब्रह्मदेवाच्यो जायत्यो मुर्ती मेळळयात. मथुरेच्या संग्रहालयांत ब्रह्याची कुषाणकाळांतली एक मुर्ती आसा. आनी तिची तीन मुखां एकेक ओळींत आसून चवथें मुखें मदल्या मुख्यावयर आसा. हाचेभायर ब्रह्मदेवाच्यो जायत्यो मुर्ती थंय आसात. स्वतंत्र मुर्तीभायर हेर देवदेवातां वांगडाय ताच्यो मुर्ती मेळटात. मथुरा, सारनाथ, आनी गांधाराक ताची मूर्त आशिल्ले जायते शिलापट्ट मेळळयात.

बौध्द धर्मांत ब्रह्मदेवाक म्हत्व दिल्लें दिसना. जैन मुर्तीविधानांत तो शीतलनाथ वा तीर्थंकराच्या स्वरुपांत वा दिक्कपालाच्या रुपांत मेळटा. मध्य आशिया, ब्रह्मदेश, चीन इंडोनेशियेंतूय ब्रह्मदेवाच्यो मुर्ती मेळळयात.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रह्मास्त्र :** एक पुर्विल्लें अस्त्र. शिवान परशुरामाक हें अस्त्र दिल्लें. परीक्षित आवयच्या पोटांत आसतना, ताका मारपापसत अश्वत्थाम्यान ह्या अस्त्राचो वापर केल्लो. द्रोणाचार्याक एकदां खूब राग आयिल्लो आसतना ताणें ह्या अस्त्राचो वापर केलो आनी कितलेशेच लोक जळ्ळे अशें महाभारतांत सांगलां. कर्णाक मात अडचणीच्या वेळार ह्या अस्त्राची याद जाली ना.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रह्मी भास :** ब्रह्मदेशाची मुखेल भास. ही भास सिने-तिबेटो कुटुंबाच्या तिबेटो ब्रह्मी फांट्याची. इकराव्या शतमानासावन हे भाशेचो लिखित पुरावो मेळटा. बरोवपाखातीर ब्रह्मी जे लिपीचो उपेग करता ती भारतांतल्या शिलालेखीय ब्राह्मी वयल्यान आयिल्ली आसा. तातूंत फुडलीं मुळाक्षरां आसात.

**स्व** : अ आ इ ई उ ऊ ए ऐ ओ औ.

**व्यंजना :** क ख ग घ ङ च छ ज झ ञ

ट ठ ड ढ ण त थ द ध न

प फ ब भ म य र ल व स

ह ळ आनी शीर्षबिंदू

व्यंजनाक स्वर जोडपाची पद्दत बऱ्याच प्रमाणांत भारतीय लिपी भाशेन आसा.

**व्याकरण : नाम :** नामाचे तीन प्रकार आसात. केवल नाम हें वस्तुवाचक एकावयवी उतर आसता. धातूक अह हो उपसर्ग जोडून कृतिवाचक नाम मेळटा, जाल्यार क्रियापदां वा नामां तरेकवार पद्दतींनी एकामेकांक जोडून सामासिक नाम मेळटा.

नामाक लिंग आसना. पूण जंय (देखीकः प्राणिवाचक उतराचे बाबतींत) तें दाखोवप गरजेचें आसता थंय तें मूळ नामाक लिंगदर्शक प्रत्यय लावन दाखोवप जाता. स्त्रीलिंगदर्शक प्रत्यय-मह हो आसून पुरुष लिंगदर्शक प्रत्यय - दे, फाह, आदी आसात.

हे भाशेंत वचनां दोन आसात. एकवचन आनी अनेकवचन. मूळ नामशब्द एकवचनी आसता. ताका-माह, दोह आदी प्रत्यय लावन अनेकवचन मेळटा.

नामाचें मूळ रूप वा ताका-थि हो प्रत्यय लावन मेळिल्लें रूप ही प्रथमा. हेर विभक्ती मूळ नामाक मराठी शब्दयोगी अव्ययाप्रमाण आसपी वेगवेगळे प्रत्यय लावन तयार जातात.

**सर्वनाम :** मूळ सर्वनामां तीन आसात. ङाह 'मी'; थिन्, मिन्, निन्, 'तू'; थू, 'तो, ती', अ. व. ङाह-दोह वा दोह् 'आमी'; थिन् दोह्, मिन-दोह् 'तुमी'; थू-दोहू 'ते', त्यो. पूण हातूंतलीं कांय रुपां शिश्ट

जाल्यार कांय अशिश्ट समजतात. देखीकः स्वताविशीं उलयतना ङाह 'मी' हें उतर वापरि नासतना क्यून ओख 'नम्र सेवक' हें वापरपाची चाल आसा. हे भायर संबंदी, आत्मदर्शक (स्वतः ह्या अर्थान) आनी प्रस्नार्थक सर्वनामां आसात.

**विशेशण** : मूळ भाशेंतलो क्रियादर्शक धातू विशेशण म्हणून वापरतात. तो नामाआदीं वा उपरांत येता. पाली भाशेंतल्यान घेतिल्लीं कांय रुपां मात हाका आडवाद आसात.

**क्रियापद** : धातू हो एकावयवी आसून ताका खंयचोय विकार जायना, तो सकर्मक वा अकर्मक आसता. धातूंचें आद्य व्यंजन महाप्राणयुक्त करून अकर्मकाचें सकर्मक रूप मेळूंक शकता. प्रस्नवाचक विधानाखातीर सूर बदलप जायना जाल्यार प्रश्नसुचक रूप क्रियापदाक जोडटात. क्रियापदाआदीं महू हें रूप दवरून न्हयकार मेळटा.

**कांय उतरां आनी वाक्यां** : म्यित 'न्हंय', पिन-लेह 'दर्या', यैजोह 'उदक', तौ 'रान', युआह 'खेंडें', शिनबहयिन 'राजा', बहयिनमह 'राणी' क्युनोख कोह पैवाह 'म्हाका दी', क्युनोख कोहू प्यौबाट् 'म्हाका सांगात' दीगोह् लाट् गेह् 'हांगा येयात', व्यन लाह गेह् 'परत येयात', यै तह ख्वेत पैवाह 'म्हाका एक पेलो उदक दियात, माह बाहू इ 'हांव बरो आसां' लाह् फेत् यि तह् ख्येत पैवाह 'म्हाका एक कोका च्या दी'.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्रह्मी साहित्य :

ब्रह्मी देशांतलें साहित्य. मियानमारांतलें सगळें पुर्विल्लें साहित्य वेगवेगळ्या शिलालेखाच्या स्वरुपांत उपलब्ध आसा. तातूंतले कांय प्यू हे नांवाचे भाशेंत (चवदाव्या शतमानासावन हे भाशेचो पत्तो लागना) आसात. ह्या शिलालेखांचो काळ इ. स. च्या सव्या शतमानासावन णवव्या शतमानामेरेनचो. ब्रह्मी ही मियानमाराची मुखेल भास आसून तिचो लिखीत पुरावो इकराव्या शतमानासावन मेळटा. हे भाशेंतली साहित्याची लक्षणीय परंपरा पंदराव्या शतमानाच्या मध्यापसूनची आसा. पंदराव्या शतमानाच्या निमाणें शिन उत्तमकयॉ, शिन रातथेर, गिन थिलवुंथ आनी गिन अग्गाथमेडी ह्या चार व्हड कवींनी म्हत्वाचें लिखाण केलें. 'फॉरेस्ट जर्नी' ह्या आपल्या काव्यांत उत्तमकयॉ ह्या कवीन भगवान बुध्दाक मानवंदना दिल्या. हेर तीन कवींनी महाकाव्याची रचना केल्या. हीं महाकाव्यां बुध्दाच्या जिवितांतल्या प्रसंगांचेर रचिल्लीं आसात. ह्या कवींनी म्हत्वाच्या भौशीक प्रसंगाचेरूय काव्यरचना केल्ली आसा. कवी थिलवुंथ हाणें बरयल्लो बौध्द धर्मीय देशांचो इतिहास आनी एक प्रवचनांझेलो ह्यो उल्लेख करपासारक्यो गद्द कृती. सोळाव्या शतमानांत मोन बिन्या दाला हाणें एका मौन राजाच्या जिविताचेर गद्यरचना केल्ली आसा. अठराव्या शतमानाचे सुरवेक यू कलान ब्रह्मदेशाचो इतिहास बरयल्लो. एकुणिसाव्या शतमानांत (१८७०) ब्रह्मदेशांत मुद्रणालयां आयलीं. हाचो परिणाम म्हळयार कादंबऱ्यो, कथा, नाटकां अशें वेगवेगळ्या प्रकारांचें साहित्य निर्माण जालें. यू कू, सू था, पोक नी, चान म्या, हे चड नामनेचे नाटककार १९२०त हांगा रंगून विद्यापिठाची स्थापना जाली आनी उपरांत लेखकांची एक नवी पिळगी अस्तित्वांत आयली. आर्विल्ल्या ब्रह्मी साहित्याचे निर्मितींत ह्या लोकांचो वांटो म्हत्वाचो आसा. १९४८ त ब्रह्मदेशाक सुटका मेळटकच बऱ्या पांवड्याचें साहित्य तयार जावंक लागलें. शासकीय आदाराचेर उबी आशिल्ल्या बर्मा ट्रांसलेशन सोसायटीक हाचें खूबशें म्हत्व दिवप जाता. हे सोसायटी वतीन ब्रह्मी भाशेंतल्या बऱ्यांतले बरे साहित्यकृतीक इनामां दिवप जातात.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्रह्मो :

एक लोकदैवत. ह्या दैवताचें वास्तव पिंपळाच्या झाडार मानतात. हे सुवातेर पुजा करप, बळी दिवप असले प्रकार चलनात. फकत हे सुवातेर फूल घालप आनी दिवो लावप इतलेच प्रकार चलतात. ह्या ब्रह्म्याच्या नांवान एक वाडी काडून दवरतात आनी उपरांत ती गायक घालतात. तशेंच ताच्या नांवान ब्राह्मणाक जेवण घालतात. ह्या थळाचें दैवत जलरक्षक दैवत आसून तें खुबूच सोवळें आसून थंय बायलांचो विटाळ आनी भश्टकार उपकारना. थंय भश्टकार जाल्यार किदेंय पूण वायट घडटा, असो समज आसा. उपरांत देवाकडेन प्रसाद घेवन थंय शांती करप जाता. कांयकडेन ह्या ब्रह्म्याच्या नांवान शिळा (फातर) आसता. गोंयांत चड करून सगळेकडेन ब्रह्मो हें दैवत दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्रॅख्त, बेर्टोल्ट :

(जल्म : १० फेब्रुवारी १८९८, ऑगसबर्ग, बाव्हारिया; मरणः १४ ऑगस्ट १९५६ बर्लिन).

नामनेचो जर्मन नाटककार आनी कवी. १९१४ वर्सासावन ताणें थळाव्या म्हयनाळ्यांनी लिखाण करपाक सुरवात केली. १९१७ वर्सा म्युनिक विद्यापिठांतल्यान मॅट्रिक जातकच तो वैजकीचो अभ्यास करूंक लागलो आनी १९२३ वर्सा ह्या नाटकाचे प्रयोगूय जाले. पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत ऑगसबर्गच्या सैनिकी हॉस्पिटलांत 'मॅडिकल ऑर्डर्ली' म्हणून ताणें वर्सभर काम केलें. हें काम करतनाच ताणें 'बाऽल' (Baal) हें पयलें नाटक बरयलें. हॉस्पिटलांतल्या ह्या कामाउपरांत



ताणें परतून आपलो वैजकीचो अभ्यास सुरू केलो. पूण मजगतीं १९२०

वर्सा ताणें पत्रकारितेचो वेवसाय आपणायलो. 'ट्रोमेल इन डेअर नाख्ट' (ड्रम्स इन द नायट-इंग्लीश अणकार) आनी 'इम डिकिश्ट डेअर ष्टेट' (इन द सिटीस जंगल्स - इं. अणकार) हीं ताचीं सुरवेचीं नाटकां आसात. हातूंतल्या 'ड्रम्स इन द नायट' ह्या ताच्या नाटकाक दर वर्सा बऱ्या नाटककाराक दितात तो क्लायस्ट पुरस्कार फावो जालो. ऑटो फाल्केनबर्गच्या आदारान 'इन द खॅम्प' (१९२३) रंगमाचयेर हाडलें. नाट्य-लिखाणा वांगडाच ताचें काव्य-लिखाणूय चालूच आशिल्लें. गितां, पोवाडे आनी हेर काव्य प्रकारांतली ताची शैली सादी सोंपी आशिल्ल्यान ती नाटकांतूय देंवली. 'द बूक ऑफ फॅमिली डिवोशन' (१९२७) हो ताचो कवितां- झेलोय खूब गाजलो.

१९२४ वर्सा ब्रॅख्त बर्लिनाक आयलो आनी नामनेचो ऑस्ट्रियन दिग्दर्शक माक्स रायनहार्ट हाचे नाट्यसंस्थेंत काम करूंक लागलो. ह्याच काळांत कामगार शाळेंत ताणें मार्क्सवादाचे धडे घेतले. ह्या काळांत ताणें 'मान इस्ट मान' (मॅन इझ मॅन - १९२६), 'द बॅडेन कॅन्टाटा ऑफ ॲक्वीसन्स' (१९२९), 'डी ड्रायग्रोशेन ओपेर' (थ्री पॅनी ऑपेरा -१९२८), 'द मेजर्स टेकन,' सेन्ट जोन ऑफ स्कॉटयार्डस् आनी 'आउफष्टीग उण्ट फाल डेअर ष्टाट महागॉनी' (द रायझ अँड फॉल ऑफ द सिटी ऑफ महागॉनी- १९३०) हीं नाटकां बरयलीं. 'थ्री पॅनी ऑपेरा ह्या नाटकान ब्रॅख्त हाका खूब नामना मेळोवन दिली. नामनेचो इंग्लीश कवी आनी नाटककार जॉन गे हाच्या 'बॅगर्स ऑपेरा' हे संगितिकेवयल्यान ब्रॅख्ता- 'थ्री पॅनी ऑपेरा' ची कल्पना येवजली. ह्या नाटकाचो मराठी अणकार पु. ल. देशपांडे हाणें 'तीन पैशांचा तमाशा' ह्या नांवान केला. पक्षाची शिस्त मोडपी कार्यकर्त्यान ख्यास्त म्हणून आत्मनाशाकूय मान्यताय दिवंक जाय असो विचार ब्रॅख्त हाणें आपल्या 'बाडेनर लेडरशट्यूक' (डिडॅक्टिक प्ले ऑफ बाडेन ऑन कनसॅंट- १९२९) ह्या नाटकांत मांडला.

१९३३ वर्सा हिटलर सत्तेर येतकच ब्रॅख्ताक थंय रावप शक्य नाशिल्लें. ताणें प्राग, विएन्ना, झ्युरिक, डॅन्मार्क, स्विडन, फिनलंड अशी भोंवडी करून १९३५ वर्सा तो मॉस्कोक गेलो. ह्या काळांत ताणें फॅसिझमाचेर वार करपी नाटकां बरयलीं. तीं अशीं - 'द राऊण्डहेड्स ॲण्ड द पीकहेड्स, 'द प्रायव्हेट लायफ ऑफ द मास्टर रेस.' उपरांत १९४१ वर्सा अमेरिकेंत, हॉलीवूडाक विंगडविंगड नोकऱ्यो करीत रावलो.

'मुट्र कुराजडउण्ट ईरड किण्डर' (मदर करेज ॲण्ड हर चिल्ड्रन- १९६२), डेअर गुटऽमेन्श फोन सेत्सुआन' द गूड वुमन ऑफ सेत्सुआन- १९६१), 'लेबेन डेस गालियाय' (द लायफ ऑफ गॅलिलीओ) ह्या नाटकांनी ताका खूब नामना मेळोवन दिली.

१९३९ वर्सा ब्रॅख्ता हाणें डॅन्मार्क सोडलें. उपरांत कांय काळ तो स्विडन आनी फिनलंड ह्या देशांनी रावलो. फिनलंडांत आसतना ताणें 'हेअर पुण्टिला उण्ट झायन कनेश्ट' (मास्टर पुण्टिला अँड हिज सर्व्हंट - १९४८) हें नाटक बरयलें. १९४१ वर्सा तो अमेरिकेंत परतलो. अमेरिकेंत ताणें स वर्सां काडलीं. थंय ताणें आपलें 'डेअर कौकाझिश ऽ क्रायड ऽ क्रायस' (द कॉकेशिअन चॉक सर्कल-१९४७) हें श्रेश्ठ नाटक बरयलें. ह्या नाटकांत ताणें मानवी न्यायाचो प्रस्न मांडला. ह्या नाटकाचो मराठी अणकार चिं. त्र्यं खानोलकर हाणें 'अजब न्याय वर्तुळाचा' ह्या नांवान केला (१९७४).

१९४८ वर्सा तो मांयभुंयेक परतलो. थंय ताणें स्वताची एक नाट्यसंस्था चलयली. तो एक बरो नाट्य-दिग्दर्शकूय आशिल्लो. ताका खूबशे पुरस्कार मेळ्ळयात. १९५४ वर्सा सोव्हिएत रशियेन स्टालिन इनाम भेटोवन ताचो भोवमान केलो. ताका आंतरराश्ट्रीय नामना मेळिल्ली. चीन, जपान, भारतीय (उदेंती) रंगमाचयेचो अभ्यास करून अस्तंती नाट्यतंत्रांत ताणें क्रांती घडयली.

- डॉ. आनंद पाटील.

## ब्रॅग, सर (विल्यम) लॉरेन्स :

(जल्म : ३१ मार्च १८९०, ॲडिलेड (दक्षिण ऑस्ट्रेलिया); मरण : १ जुलय १९७१, लंडन).

नामनेचो ब्रिटीश भौतिकशास्त्रज्ञ. ताचें सुरवातीचें शिक्षण ॲडिलेडांतल्या सेंट पिटर्स कॉलेजींत आनी तेउपरांत ॲडिलेड विद्यापिठांत जालें. १९०८ त गणिताची पदवी मेळयतकच तो १९०९ वर्सा बापायवांगडा इंग्लंडाक गेलो आनी कॅंब्रिजांतल्या ट्रिनिटी कॉलेजींत ताणें प्रवेश मेळयलो. १९१२ त तो सैमविज्ञानाची ट्रायपॉस परिक्षा पास जालो. १९१४ त ट्रिनिटी कॉलेजींत सैमविज्ञानाचो अधिछात्र आनी अध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. पयल्या म्हाझुजांत ताणें ब्रिटीश सैन्याखातीर आवाजा परासमापना खातीर तंत्रीक सल्लागार म्हणून फ्रांस आनी बेल्जियमांत काम केलें. १९१९ त मँचेस्टरच्या विक्टोरिया विद्यापिठांत भौतिकशास्त्राच्या लँगवर्दी प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली आनी १९३७ त ताणें ह्या पदाचेर काम केलें. १९३७-३८ त नॅशनल फिझिकल लॅबोरेटरीचो तो संचालक आशिल्लो. १९३८-५३ ह्या काळांत कॅंब्रिजांत प्रयोगिक भौतिकशास्त्राचो कॅव्हॅंडिस प्राध्यापक आनी १९५४-६६ त रॉयल इन्स्टिट्यूशनाचो तो संचालक आशिल्लो.

१९१२ त माक्स फोन लौए, डब्ल्यू. फ्रिड्रीख आनी पी. निपिंग हाणीं स्फाटिकांवरवीं क्ष-किरणांच्या विवर्तनाचो (diffraction) सोद लायलो. ब्रॅग हाणें सैंधवासारक्या साद्या स्फटिकांचें विश्लेशण करून क्ष-किरण हे स्फटिकांतल्या आणवीय प्रतलांपसून हारशाप्रमाण परीवर्तित जातात अशें दाखयलें. हो नेम 'ब्रॅग नेम' ह्याच नांवान वळखतात आनी तो तरंग-लांबी मेजपाखातीर आनी स्फटिकांची जालकरचना निर्धारीत करपाखातीर उपेगाक येता. ह्या नेमाचेरूच ताणें आपल्या क्ष-किरण वर्णपटमापकाची रचना केली आनी ताचेवरवीं बापूय-पुतान जायत्या स्फटिकीय पदार्थांच्या रचणुकांचें विश्लेशण करून ह्या प्रभावी तंत्रावरवीं

क्ष-किरण स्फटिकविज्ञानाची बुन्याद घाली.

स्फटिकांचे आंतरिक रचणुके वरवीं विश्लेशण करपाची पद्दत ताणें ताचो बापूय सर विल्यम हॅन्री ब्रॅग हाच्या पालवान विकसित केली आनी त्या मोलादीक वावराखातीर ब्रॅग बापूय-पुताक १९१५ वर्साचो भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. हो पुरस्कार ताका पिरायेच्या २५ वर्सांचेर मेळ्ळो. १९४१ त ताका 'नायट' हो किताब फावो जालो. ताका अनिकूय कितलींशींच पदकां आनी पुरस्कार फावो जाल्यात. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं : X-Rays and Crystal structure (बापायवांगडा,१९१५), The crystalline State (१९३४), Electricity (१९३६), Atomic Structure of Minerals (१९३७) आनी Crystal structure of Minerals (क्लॅरिंगबुल हाचे वांगडा १९६५).

- कों. वि. सं. मं.

## ब्रॅग, सर विल्यम हॅन्री :

(जल्म : २ जुलय १८६२ वॅस्टवर्ड, कंबर्लंड-इंग्लंड; मरण : १० मार्च १९४२, लंडन).

नामनेचो ब्रिटीश भौतिकशास्त्रज्ञ. सुर्वेक ऑयल ऑफ मॅन हांगाच्या किंग विल्यम्स कॉलेजींत शिक्षण घेतकच ताका कॅंब्रिज ची ट्रिनिटी कॉलेजींतली शिश्यवृत्ती मेळ्ळी आनी १८८५ त तो गणिताची ट्रायपॉस परिक्षा पास जालो. कांय काळ कॅव्हॅंडिश प्रयोगशाळेंत भौतिकशास्त्राचो अभ्यास करतकच १८८५ चे अखेरेक दक्षिण ऑस्ट्रेलियेंतल्या ॲडिलेड विद्यापिठांत गणित आनी भौतिकशास्त्र ह्या विशयांच्या प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली. १९०९ त इंग्लंडाक परततकच ताणें लीड्साक भौतिकीचो कॅव्हॅंडिश प्राध्यापक (१९०९-१५), लंडनांत युनिव्हर्सिटी कॉलेजींत कवेन प्राध्यापक (१९१५-२३) आध्दी १९२३ सावन अखेरमेरेन रॉयल इन्स्टिट्यूशनांत रसायनशास्त्राचो फुलेरियन प्राध्यापक आनी इन्स्टिट्युशनाचो संचालक म्हणून काम केलें. पयल्या म्हाझुजांत पाणबुड्यांची सुवात निश्चीत करपाखातीर उदकांतल्या आवाजाचें मेजप आनी अभिज्ञान करपाविशींच्या संशोधनाचो मुखेल म्हणून ताणें काम केलें.

ॲडिलेड विद्यापिठांत आसतना १९०४ त ताणें आर. डी. क्लिमन हाच्या पालवान द्रव्यांतल्यान वचपी आल्फा किरणांच्या मार्गाविशींचे नेम प्रस्थापित केले. १९१२त जर्मन भौतिकशास्त्रज्ञ माक्स फोन लोए हाणें स्फटिकांतल्यान वतना क्ष-किरणांचें जावपी विवर्तन (diffraction) क्रियेचीं छायाचित्रां उजवाडायल्लीं. लॉरेन्स ब्रॅग हाणें ह्या छायाचित्रांतल्या विवर्तीत बिंदूंचें वितरण स्फटिकांतल्या अणूंचे मांडावळीप्रमाण जाता आनी ताचेवयल्यान स्फटिकांतल्या अणूंची मांडावळ निर्धारीत करूं येता अशें सांगलें. विल्यम ब्रॅग हाणें लीड्स विद्यापिठांत काम करता आसतना ह्या सोदाच्या आदारान क्ष-किरण वर्णपटमापक ह्या उपकरणाची रचना करून ताचेवरवीं कितल्याशाच मूलद्रव्यांचे क्ष-किरण वर्णपट मेळयल्ले. ताणें आपल्या चल्यावांगडा कितल्याशाच स्फटिकी पदार्थाचें क्ष-किरण वर्णपटमापकारवीं विश्लेशण करून क्ष-किरण स्फटिकविज्ञान ह्या नव्या विज्ञान फांट्याची बुन्याद घाली. पयल्या म्हाझुजाउपरांत ताणें लंडनांतले युनिव्हर्सिटी कॉलेजींत क्ष-किरण स्फटिकविज्ञानाचें एक संशोधन केंद्र स्थापन केलें.

स्फटिकांचे आंतरिक रचणुकेचें क्ष-किरणांवरवीं विश्लेशण करपाची पद्दत सर (विल्यम) लॉरेन्स ब्रॅग ह्या ताच्या चल्यावांगडा विकसीत केल्याच्या मोलादीक कार्याखातीर ब्रॅग बापूय-पुताक १९१५ वर्साचो भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. ताणें बरयल्ले कांय ग्रंथ अशे : Studies in Radioactivity (१९१२), X-Rays and crystal structure (चल्यावांगडा, १९१५), The world of Sound (१९२०), Concerning nature of things (१९२५), Old trades and new knowledge (१९२६), An introduction to crystal Analysis (१९२९) and The Universe of light (१९३३).

- कों. वि. सं. मं.

## ब्रॅटन, वॉल्टर हौझर :

(जल्म : १० फेब्रुवारी १९०२, ॲमॅय-चीन).

नामनेचो अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ. वॉशिंग्टनच्या व्हिटमन कॉलेजांत गणित आनी भौतिकी ह्या विशयांचो अभ्यास करून ताणें १९२४ त बी. एस. पदवी मेळयली. तेउपरांत ऑरेगॉन विद्यापिठाची एम. ए. (१९२६) आनी मिनेसोटा विद्यापिठाची पिएच. डी. (१९२९) ह्यो पदव्यो ताणें मेळयल्यो. ताणें वॉशिंग्टन नॅशनल ब्युरो ऑफ स्टॅंडर्डस हे संस्थेच्या रेडिओ विभागांत एक वर्सभर (१९२८-२९) संशोधक भौतिकीशास्त्रज्ञ म्हणून काम केलें. १९२९ त तो बॅल टेलिफोन लॅबोरेटरीस हातूंत संशोधक भौतिकशास्त्रज्ञ ह्या पदाचेर रूजू जालो आनी १९६७ त तो थंयसावन सेवानिवृत्त जालो. १९६२-७२ ह्या काळांत ताणें व्हिटमन कॉलेजींत कांय तेंप अध्यापनाचें काम केलां. १९७२ सावन ताणें थंय गुणश्री पर्यवेक्षक म्हणून काम केलें. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत तो कोलंबिया विद्यापिठाचे राश्ट्रीय संरक्षण संशोधन समितीकडेन संबंदीत आशिल्लो (१९४२-४३) आनी थंय ताणें पाणबुड्याच्या चुंबकीय अभिज्ञानाविशीं संशोधन केलें.

ब्रॅटन हाणें घन पदार्थांच्या पृश्ठीय गुणधर्माविशीं संशोधन केलें. ताचें सुरवातीचें कार्य तापायनिक उत्सर्जन आनी टंगस्टनाच्या पृश्ठभागावयलो अधिशोशित थर हांचेविशीं आशिल्लें. तेउपरांत ताणें अर्दसंवाहकाच्या पृश्ठभागाचेर जावपी एकदिशीकरण आनी उजवाडाचे

परिणाम हेविशीं संशोधन केलें. घन अवस्था भौतिकींतलें ब्रॅटन हाचें मुखेल कार्य म्हळयार ताणें अर्दसंवाहकांच्या मुक्त पृश्ठभागावयल्या उजवाडाच्या परिणामाचो लायिल्लो सोद, बारडीन हाचे वांगडा जर्मेनियमाचे चकतींतलो विद्युत् शक्ती विवर्धनाचो परिणाम प्रयोगावरवीं दाखोवन दिवन उपरांत तातूंतल्यान बिंदू-स्पर्श ट्रॅंझिस्टर ह्या पयल्या ट्रॅंझिस्टराचो लायिल्लो सोद आनी अर्दसंवाहकांच्या पृश्ठभागाच्या गूणधर्मांचे चड बरे तरेन आकलन जावपा नदरेन बारडीन सी. जी. बी. गॅरेट आनी हेरांवांगडा केल्लें संशोधन.

ट्रॅंझिस्टराच्या सोदाउपरांत कितल्याशाच उपकरणांतल्या व्हडल्या आकाराच्या निर्वात नळयांची सुवात ट्रॅंझिस्टरांनी घेतली आनी इलेक्ट्रॉनिक मंडळांत फुडें जाल्ल्या सुक्ष्मीकरणाची ही सुरवात थारली. अर्दसंवाहक पदार्थांविशींचें संशोधन आनी ट्रॅंझिस्टर परिणामाचो सोद ह्या वापराखातीर ब्रॅटन हाका जॉन बारडीन आनी विल्यम ब्रॅडफोर्ड शॉक्ली हांचे वांगडा १९५६ वर्साच्या भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्राउन, हर्बर्ट चार्ल्स : (जल्म : २२ मे १९१२, लंडन).

नामनेचो अमेरिकन रसायनशास्त्रज्ञ. १९१४ वर्सा तो आवय-बापाय वांगडा अमेरिकेक गेलो आनी १९३५ त तो अमेरिकेचो नागरीक जालो. शिकागो स्कूल आनी रायट ज्युनिअर कॉलेजींत सुरवातीचें शिक्षण जातकच ताणें शिकागो विद्यापिठाच्यो बी. एस. (१९३६) आनी पीएच. डी. (१९३८) ह्यो पदव्यो घेतल्यो. थंयच तो पयलीं एली लिली फॅलो (१९३८-३९) आनी १९४३ मेरेन निर्देशक म्हणून आशिल्लो. १९४३ त तो वेन विद्यापिठांत सहप्राध्यापक आनी १९४७ त पर्ड्यू विद्यापिठांत प्राध्यापक जालो. १९७८ सावन ताणें पर्ड्यू विद्यापिठांत आर. बी. वेदरिल संशोधन गुणश्री प्राध्यापक म्हणून काम केलें. कॅलिफोर्निया, सान्ता बार्बारा आनी हिब्रू ह्या विद्यापिठांतूय ताणें काम केलां.

१९४० पयलीं डायबोरेन हें एक दुर्मिळ संयूग आशिल्लें आनी ताचे विक्रियाशीलतेचो अभ्यास जावंक नाशिल्लो. ब्राउन हाणें हें संयूग तयार करपाची एक सादी आनी सोंपी पद्दत त्या वर्सा सोदून काडली. क्षार धातूंच्या बोरोहायड्रायडांचोय ताणें सोद लायलो आनी सोडियम बोरोहायड्रायड तयार करपाची एक वेव्हारीक विक्रिया सोदून काडली. डायबोरेन आनी बोरोहायड्रायडां खूब विक्रियाशील आसून तांचो उपेग कार्बनी संयुगांच्या संश्लेशणा खातीर मोलादीक थारता, हें ब्राऊन हाणें दाखयलें. डायबोरेन हें एक प्रभावी क्षपणकारक (reducing agent). सोडियम बोरोहायड्रायड हें आनीक एक क्षपणकारक ताणें सोदून काडलें. असंतृप्त कार्बनी संयुंगांचेर डायबोरेनाची विक्रिया रोखडीच आनी पुराय घडटा, हें ब्राऊन हाणें १९५५ त दाखयलें. ह्या विक्रियांनी कार्बनी बोरेन हीं संयुगां तयार जातात. हीं संयुगांय विक्रियाशील आसून संश्लेशणाखातीर उपेगी आसात हेंय ताणें सिध्द केलें.

कार्बनी रसायनशास्त्रांत बॉरॉन संयुगांचो संश्लेशणाखातीर उपेग जाता. हें ताणें दाखयलें आनी ताका लागून रसायनशास्त्राचे उदरगतीचें एक नवें क्षेत्र तयार जालें. ताच्या ह्या मोलादीक वावराखातीर १९७९ वर्साचो रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार ताका गेओर्ख विटिग ह्या शास्त्रज्ञावांगडा वांटून मेळ्ळो. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं : Hydroboration (१९६२), Boranes in Inorganic Chemistry (१९७२), Organic Synthesis Via Boranes (१९७५) आनी The Non-Classical Ion Problem (१९७७).

निकोलस (१९५९), लायनस पॉलिंग (१९६८), रोजर ॲडम्स (१९७१), चांडलर (१९७३), एलिएट क्रेसन (१९७५), इंगोल्ड (१९७८) आदी पदकां मॅडिसन मार्शल (१९७५), ॲलायड कॅमिकल (१९७८) आदी पुरस्कार आनी अमेरिकन नॅशनल ॲकडेमी ऑफ सायन्सीस, अमेरिकन ॲकेडेमी ऑफ आर्टस् ॲंड सायन्सीस, बोस्टन विद्यापिठाचो बोर्ड ऑफ व्हिझिटर्स, लंडनची कॅमिकल सोसायटी हांचें वांगडीपण तशेंच जायते भोवमान ताका मेळ्ळयात. १९६८ वर्सा शिकागो विद्यापिठान ताकां सन्माननीय डी. एससी. पदवी दिली.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्रांट, विली : (जल्म : १८ डिसेंबर १९१३, नॉर्थ सी पोर्ट, ल्यूबेक).

फॅडरल रिपब्लिक ऑफ जर्मनीचो पयलो समाजवादी चॅन्सेलर आनी शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो जैतीवंत. मूळचें नांव हेर्बेर्ट एन्स्र्ट कार्ल फ्राम. ताचो जल्म एका सामान्य आनी गरीब कामगार कुटुंबांत जालो. डॅमॉक्रॅटीक पक्षाचे युवा संघटनेन ताका शिश्यवृत्ती दिली. तेन्ना ताणें शारिरीक शिक्षणांत कसब दाखोवन आनिकूय कांय शिश्यवृत्त्यो मेळयल्यो आनी ल्यूबेक आनी ऑस्लो विद्यापिठांनी शिकून पदवी मेळयली (१९३२). त्याच वर्सा समाजवादी कामगार युवा संघटणेचो तो वांगडी जालो. ह्या वेळार सोशॅलिस्ट डेमॉक्रेटिक पक्षाचें फोक्सबोटेन नांवाचें खबरांपत्र आशिल्लें. ताचेखातीर तो स्तंभलेखन करतालो.

जर्मनींत १९३३ सावन नाझी राजवट सुरू जाली आनी हिटलर सत्ताधारी जालो. ताणें जर्मनींत हुकूमशाय प्रस्थापित करून हेर सगळया राजकीय पक्षांचो छळ सुरू केलो. त्या वेळार बिली ब्रांट हें नांव घेवन ताणें नॉर्वेचो आलाशिरो घेतलो. थंय ताणें जर्मन निर्वासितांक मदत केली. नॉर्वेचें नागरिकत्व घेतलें आनी तो थंयच्या खबरांपत्रांखातीर बरोवंक लागलो. नॉर्वेंतूय हिटलराचे हुकूमशायी राजवटीची धग पावतकच

तो स्विडनाक गेलो (१९३७-४५). दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत ताची नेमणूक १९४६-४७ त नॉर्वेजियन लश्करी पंगडाचो वृत्तपत्री सहाय्यक म्हणून बर्लिनांत जाली.

१९४८ त रूट हॅनसन हिचेवांगडा ताचें लग्न जालें. फुडें जर्मनीचें नागरिकत्व घेतकच तो अस्तंत जर्मनीच्या सर्वांगीण उदरगतीखातीर आपल्या सोशल डॅमॉक्रॅटिक पक्षावरवीं वावर करूंक लागलो. पक्षाध्यक्ष कुर्ट शूमाखरचे आज्ञेवयल्यान पक्षाचो तो संघटक अधिकारी जालो. १९४९ त तो अस्तंत जर्मनीचे संसदेचेर (बुनडॅसटाख) वेंचून आयलो आनी त्या वर्सा बर्लिन म्हानगरपालिकेचो वांगडी म्हणूय वेंचून आयलो. १९५७ त तो अस्तंत बर्लिनाचो महापौर जालो. कम्युनिस्ट हुकूमशायेआड लडपी एक खडेगांठ समाजवादी फुडारी म्हणून ताणें नामना जोडली. १९५८ त सोशल डॅमॉक्रॅटिक पक्षाचे राष्ट्रीय कार्यकारिणीचेर ताची निवड जाली आनी कांय वर्सांनीच ताका पक्षाचें अध्यक्षपद मेळ्ळें (१९६४). १९६६ त ताणें क्रिश्चन डॅमॉक्रॅटिक युनियन ह्या पक्षाचो तेंको दिवन संयुक्त सरकार केलें. ब्रांट हाचेकडेन उपाध्यक्षपद आनी विदेश वेव्हार मंत्रीपद अशी दोट्टी जापसालदारकी किझिंगरान सोंपयली. ह्या वेळार ताणें आंतरराष्ट्रीय राजकारणांत अस्तंत जर्मनीची प्रतिमा उजळ केली. फुडें १९६९ च्या सार्वत्रिक वेंचणुकेंत ताच्या पक्षान ल्हान पक्षांच्या पालवान मतां मेळोवन भोवमत प्रस्थापित केलें. ताची चॅन्सलरपदाचेर निवड जाली.

युरोपीय अर्थीक संघटना (EEC) अदीक बळिश्ट करपाखातीर इंग्लंड आनी हेर देशांक भेट दिवन तशेंच उदेंत युरोपांतल्या कम्युनिस्ट देशांक वांगडी करून घेवन संवसारीक बाजारपेठेंतलो तणाव ताणें उणो केलो आनी रशियेसारक्या कम्युनिस्ट राश्ट्रांकडेन कांय मर्यादिमेरेन संस्कृतीक संबंद प्रस्थापित केले. ह्या ताच्या धोरणाक लागून शीत झुजाचो धोको उणो जालो. ताच्या ह्या मोलादीक वावराखातीर १९७१ वर्साचो शांततायेखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार ताका फावो जालो.

१९७२ त सार्वत्रिक वेंचणुकांनी ताच्या पक्षान भोवमत मेळयतकच तो परत चॅन्सलर जालो. ताणें अस्तंत जर्मनीच्या अंतर्गत धोरणांत कितल्योशोच सुदारणा करून देशाची अर्थीक स्थिती सुदारली आनी उदेंत जर्मनी आनी उदेंत युरोपी देश हांचेकडेन समझोत्याचें धोरण आंखून राजनितीक संबंद बळिश्ट केले. १९७४ त ताच्या सचिवांमदल्या एकल्याक कम्युनिस्ट गुप्तहेर ह्या आरोपाखाला अटक केली. तेन्ना ताणें आपल्या पदाचो राजिनामो दिलो. १९७९ त तो युरोपाच्या पार्लमॅंटाचेर वेंचून आयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रांटिग, कार्ल याल्मार :** (जल्म : २३ नोव्हेंबर १८६०, स्टॉकहोम; मरणः २४ फेब्रुवारी १९२५, स्टॉकहोम).

स्विडनाचो प्रधानमंत्री (१९२०, १९२१-२३ आनी १९२४-२५) आनी शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो सहमानकरी. स्टॉकहोम आनी अप्साला विद्यापिठांनी विज्ञान फांट्यांतली पदवी घेवन ताणें पत्रकारिता वेवसायांत प्रवेश केलो (१८८३) आनी रोखडोच तो 'टायडन' ह्या दिसाळ्याचो संपादक जालो. १८८६त तो 'सोशल डेमोक्रॅटन' ह्या दिसाळ्याचो संपादक जालो. ह्या नेमाळ्याचो तो १९१७ मेरेन संपादक आशिल्लो. राजकारणाचीय ताका गोडी लागली आनी सोशल डेमॉक्रॅटिक पक्षाचे स्थापणुकेंत ताणें फुडाकार घेतलो (१८८९) आनी तो संसदेच्या कनिश्ठ घराचेर पयलीं वेंचून आयलो (१८९६). १९०२ मेरेन तो ह्या पक्षाचे संसदेंत एकसुरो वांगडी आशिल्लो.

नॉर्वे-स्विडनांतल्या संघर्शांत ताणें नॉर्वेची बाजू मांडली आनी नॉर्वेक स्वतंत्र अस्तित्व आसचें ह्या मताचो पुरस्कार केलो (१८९५). तेखातीर ताका तीन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त जाली. निमाणें ताणें हो प्रस्न शांततायेच्या मार्गान सोडयलो आनी नॉर्वेचें स्विडनासावन विभाजन केलें (१९०५). तो आपल्या पक्षाचो अध्यक्ष जालो (१९०७). तेउपरांत ताणें आपल्या पक्षावरवीं प्रौढ मताधिकारी, समानस आनी प्रत्यक्ष मताधिकार अशी तीन कलमी कार्यावळ कामगारवर्गांत सुरू केली. प्रागतिक उदारपक्षांचो सहकार ताणें मेळयलो. ताका लागून १९१७त उदारमतवादी-समाजवादी पक्षांचें संमिश्र शासन स्विडनांत सत्तेर आयलें. तातूंत ताका अर्थ मंत्रीपद दिलें.

पयल्या म्हाझुजा वेळार ताणें तटस्थतायेचो पुरस्कार केलो आनी स्विडनाक खंयच्याच गटांत सामील जावंक दिलेंना. लोकशाय आनी शांतताय हांचो ताणें सातत्यान प्रचार आनी प्रसार केलो. झुजाउपरांत पॅरिसांतले शांतताय परिशदेंत स्विडनावरवीं ताणें वांटो घेतलो (१९१९). राश्ट्रसंघांत ताणें स्विडनाचें प्रतिनिधित्व केलें आनी बर्नांतले दुसरे आंतरराश्ट्रीय समाजवादी परिशदेचें अध्यक्षपद भुशयलें (१९१९). ऑलंड जुंव्याविशींचो फिनलंड आनी स्विडन हांचेमदलो संघर्श पालोवपाखातीर १९२०त घडोवन हाडिल्ले लंडनांतले परिशदेकूय तो हजर आशिल्लो (१९२०) आनी हो प्रस्न ताणें शांततायेच्या मार्गान सोडयलो. म्हाझुजाउपरांत स्विडनांत ताणें पयल्या समाजवादी-लोकशायी पक्षांचें शासन स्थापन केलें (१९२०). फुडें त्याच वर्साच्या सप्टेंबरांतले वेंचणुकेंत तो हारलो. फुडें सप्टेंबर १९२१ त तो परत प्रधानमंत्री जालो. भलायकी इबाडिल्ल्यान २५ जानेवारी १९२५ दिसा ताणें राजिनामो दिलो आनी थोड्याच दिसांनी ताका मरण आयलें.

अंतर्गत आनी आंतरराश्ट्रीय धोरणाविशींच्या मुळाव्या प्रस्नांविशीं ताची नदर विशाल आशिल्ली. तो सुरवाती सावनूच निशस्त्रीकरण, शांतीकायेचें सहजीवन आनी समाजीक लोकशाय हांचो सदांच पुरस्कार करतालो. ताच्या वावराचो फावो तो गौरव जावन ताका १९२१ चो संवसारीक शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार क्रिस्त्यान लूइस लांगे हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रागांझ, लुईस द मिनेझीश :** (जल्म : १५ जानेवारी १८७८, चांदर-साश्ट; मरण : १० जुलय १९३८).

गोंयचो झुजारी, पत्रकार, प्रागतिक विचारवंत आनी व्हड देशभक्त. बापायचें नांव जुव्हेनियान मिनेझीश. तो वकील आशिल्लो. पूण लुईसाच्या भुरगेपणांतूच ताच्या बापायक मरण आयिल्ल्यान ताचे आवयन ताका फावो तें शिक्षण दिलें.



ताचें मुळावें शिक्षण पुर्तुगेज भाशेंतल्यान म्हापशें शारांत सुरू जालें. मुखावयलें शिक्षण ताणें रायतूरचे मिशनरी सेमिनारींत घेतलें. थंय ताणें तत्त्वगिन्यान आनी कॅथलीक धर्मतत्त्वांचो अभ्यास केलो. उपरांत लिंसेवार उंचेलें शिक्षण उच्च श्रेणींत पुराय करून ताणें पणजे आशिल्ल्या वैजकी विद्यालयांत प्रवेश मेळयलो. तो मुळांतूच हुशार आशिल्ल्यान थंय ताका बरें यश मेळपाक लागलें. पूण पयल्याच वर्सा ताची भलायकी इबाडिल्ल्यान ताका वैजकी शिक्षण अर्द्यार सोडचें पडलें. ह्या तेंपार ताणें अर्थीक, समाजीक, राजकीय तत्त्वीक विद्या, साहित्य आनी विज्ञानाचो खोलायेन अभ्यास करून दरेका मळावयले नवे नवे विचार आत्मसात केले. कोंकणी आनी पुर्तुगेज भाशांखेरीज ताका इंग्लीश, फ्रांसेझ आनी मराठी भाशाय बेसबऱ्यो येताल्यो.

पिरायेच्या पंचविसाव्या वर्सासावन ताणें आपल्याक पत्रकार ह्या नात्यान भौशीक जिणेंत ओंपून घेतलो. १९०० त सुरू जाल्ल्या 'पराल्द' आनी उपरांत 'नासिओनालिश्त' नेमाळयांतल्यान तो आपले स्वंतत्र नवे नवे विचार मांडपाक लागलो. भारतीय संस्कृतीचें अधिश्ठान आशिल्ली गोंयचे संस्कृतीची वळख करून दिवप आनी हे वळखीवरवींच गोंयकाराच्या मनांत स्वराज्य आनी स्वातंत्र्याचे विचार रुजोवप हें ताणें आपलें मुखेल ध्येय थारायल्लें आनी ह्या ध्येयाचो प्रचार आनी प्रसार करपाखातीर ताणें सुरवेक ऊ हेराल्द आनी १९११ त ऊ देबात हीं पुर्तुगेज पत्रकां सुरू केलीं. १९२० सावन ऊ प्रकाश नेमाळयांतल्यान ताचे नव्या विचारांनी भरिल्ले प्रतिभावंत अशे लेख उजवाडाक येवपाक लागले. ह्या नेमाळयांत ताणें मनीसहक्काचेर तशेंच नागरिकाची पुरायपणान उदरगत जावपाखातीर तो समाजीक, राजकीय आनी अर्थीक जुलमांसावन स्वतंत्र आसपाक जाय, ह्या विचारांचेर भर दिल्लो. गोंयकाराच्या राजकीय आकांक्षांक आनी उपेक्षांक चालना दिवपाचोय वावर ताणें ह्या नेमाळयांवरवीं केलो. हाका लागून ताचे मुस्तींत ताचे इश्ट आनी कांय गोंयकार ताका सगळयांत व्हडलो (O Maior de todos) अशें म्हणपाक लागले, जाल्यार भारतांतल्या हेर प्रदेशांनी ताचो 'गोंयचो टिळक' म्हणून उल्लेख जावपाक लागलो. ताणें बरयल्ल्या द ओपिनियन ऑफ इनजस्टीस अँड जस्टीस ऑफ ऑपिनियन ह्या पुस्तकांतल्या विचारांवरवीं पुरोगामी आनी स्वातंत्र्यमोगी लोकांमदीं उमेदीचें वातावरण निर्माण जालें.

प्रखर ध्येयवाद, धर्मनिरपेक्षपताय, पुरोगामित्व निर्भयवृत्ती आनी वास्तवताय ह्या गुणांनी परिपूर्ण अशें ताचें लिखाण आसलें. तातूंत विद्वत्ताय, कल्पकत्ताय, योजकताय आनी संवेदनक्षमताय हांचो संमेळ आसलो. विचारस्वातंत्र्य हें फकत राश्ट्रीय स्वातंत्र्या, पुरतें नासून मनीसकुळयेच्या विकासाचीं बियां तातूंत आसात. राजकीय स्वातंत्र्य हें राश्ट्रापुरतेंच नासून विश्व सहजिवितायाची ती सुरवात आसा अशें ताचें मत आसलें. गोंयकारांक वायट वागणूक दिवपी पुर्तुगेज सरकाराचे नितीचो ताणें सदांच निशेध केलो. धर्मीक शुध्दीकरणाकूय ताणें प्रोत्साहन दिलें.

मिनेझीस ब्रागांझ १९१०-१९१३ ह्या तेंपार तिसवाडी पालिकेचो अध्यक्ष आशिल्लो. पुर्तुगालांतले प्रजासत्ताक राजवटी उपरांत डॉ. कोंसेसांव द कोस्त हो उदारमतवादी मनीस गव्हर्नर म्हणून गोंयांत आयलेउपरांत ताणें ब्रागांझाक आपलो प्रशासकीय सहाय्यक नेमलो. प्रोविशियल काँग्रेस गोंय संघटनेचो तो वावुरपी वांगडी आशिल्लो आनी १९२१ त तो चवथे काँग्रेसीचो अध्यक्ष जालो. १९२४ त लिश्बोआंत भरिल्ले वसणुकेसंबंदीच्या अधिवेशनात ताणें पुर्तुगेज भारताचो प्रतिनिधी म्हणून वांटो घेतिल्लो. १९२९त लाहोर नगरांत भरिल्ल्या हिंदुस्थान काँग्रेसीचे राश्ट्रीय सभेत वांटो घेवन ताणें भारतीय राजकीय फुडाऱ्यां कडेन भासाभास केल्ली.

मिनेझीश ब्रागांझाचे पंचविसावे पुण्यतिथी निमतान ऊ इंश्तितुतु वाश्कु द गाम ह्या नांवान फाटलीं १०० वर्सां अस्तित्वांत आशिल्ले संस्थेचें ९ जुलय १९६३ दिसा ऊ इंश्तितुतु मिनेझीस ब्रागांझ अशें नामांतर केलें. १९६५ त ब्रागांझ यादस्तीक समिती 'Prosas Dispersas' ह्या नांवान ब्रागांझाच्या कांय वेंचीक लेखांचो एक खंड उजवाडाक हाडला. पणजे इंश्तितुतु ब्रागांझ संस्थेलागसार आशिल्ले मिनेझीस ब्रागांझाचो अर्दपुतळो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्राझील :** दक्षिण अमेरिका खंडांतलें क्षेत्रफळ आनी लोकसंख्या हातूंत पयलो क्रमांक आशिल्लें राश्ट्र. हांगा मेळपी 'ब्राझीलवूड' झाडांवयल्यान पुर्तुगेजांनी ह्या देशाक ब्राझील हें नांव दिलें. विस्तार ५°१६' उत्तर ते ३३°४५' दक्षिण आनी ३४°४५' अस्तंत ते ७४°३'

अस्तंत. क्षेत्रफळ ८५,११,९६५ चौ.किमी. लोकसंख्या १६,९८०,०६५,५५७ (१९९१). हाचे उत्तरेक फ्रेंच गियाना, सुरिनाम, गायाना, व्हॅनॅझुएला, वायव्येक कोलंबिया, अस्तंतेक पेरू, बोलीव्हिया, नैऋत्ये वटेन पाराग्वाय, आर्जेंटिना आनी दक्षिणेक उरुग्वाय हे देश आसात. देशाचे उदेंतेक अॅटलांटिक म्हासागर आसा. दर्यांत आशिल्ल्या बऱ्याच ल्हान-व्हड जुंव्यांचो आस्पाव ब्राझिलांत जाता. राजधानी ब्राझील्या.

**भूंयवर्णन :** ब्राझील देशाची चडशी भूंय दोंगरांची आनी सड्यांची आसून मळांचे वाठार बरेच उणे आसात.

भूंयरचणुकेचे नदरेन ब्राझिलाचे पांच वांटे करूं येतात.

**१) अॅमेझॉन देगण :** पुर्विल्ल्या काळांत हे सुवातेर अॅटलांटिक आनी पॅसिफिक म्हासागर एकामेकांक लागून आशिल्ले अशें जाणकार मानतात. ह्या देगणांत १.००० परस चड ल्हान-व्हड न्हंयो आसात. हें देगण ब्राझिलाचे उत्तर आनी अस्तंत दिकेक पातळ्ळां. अस्तंतेवटेन तें रूंद जाल्यार उदेंतेवटेन अशीर आसा. अॅमेझॉन न्हंयेंत माराझॉ हो ३५,००० चौ. किमी. क्षेत्रफळाचो संवसारांतलो सगळयांत व्हड गोड्या उदकांतलो जुंवो आसा.

**२) गायाना उंचेली भूंय :** ह्या वाठारांत ऊंच दोंगरावळी आसात. माऊंट रॉराइमा हें २,८१०मी. उंचायेचें सगळयांत ऊंच तेमूक हांगा आसा. मुखेल दोंगरांच्यो वळी म्हळयार सॅर्रा कुरपिरा, सॅर्रा पारीमा, सॅरा पाकाराईमा, सॅर्रा आकाराई, सॅर्रा तूमूक-ऊमाक. हांगा भांगर हिरे तशेंच हेर मोलादीक खनीज उत्पादन मेळटा.

**३) ब्राझिलियन उंचेली भूंय :** अॅमेझॉन देगणाचे दक्षिणेमेरेन पातळिल्ली ही सड्याची भूंय. हांगा सॅर्रा दा मांतीकेरा दोंगरावळींत पीकू दा बांदैर हें २,८९०मी. उंचायेचें तेमूक आसा. रियु द जानैरुचे अस्तंतेक सॅर्रा दु मार ही दोंगरांवळ आसा. ह्या वाठारांतल्यान सांव फ्रासिश्कु ही न्हंय व्हांवता आनी तिचेर पाउलू आफोंस हो धबधबो आसा. उदेंत दर्यादिगेर रियु द जाठौर सावन दक्षिणेवटेन साउं पावलू मेरेन पाराईबा देगण आसा.

**४) अॅटलांटिक दर्यादिगेवयलो वाठार :** अॅटलांटिक दर्यावेळ बरीच रूंद आसा. त्या वाठारांत दक्षिणेवयलो दुश पातुश आनी मीरी हीं खाऱ्या उदकाचीं तळीं आसात. दोंगुल्ल्यांचें प्रमाणूय ह्या वाठारांत बरेंच आसा. दोंगुल्ल्यांच्या मुळसाकडली जमीन बरीच सुपीक आसा.

**५) मदलो आनी दक्षिण सड्याचो वाठार :** हो सड्यांचो वाठार ज्वालामुखीच्या लावापसून तयार जाल्लो आसा. ह्या सड्यांतल्यान पाराना न्हंय व्हांवता. पाराना न्हंयेचेर ग्वाईरा आनी ईग्वासू हे दोन नामनेचे धबधबे आसात. ह्या वाठारांत जमीन सुपीक आशिल्ल्यान थंय ब्राझीलाचे अर्दापरस चड लोक रावतात आनी तरेकवार पिकावळ थंय मेळटा.

**हवामान :** ब्राझिलाची भूंय वयर-सकयल आशिल्ल्यान देशांतल्या हवामानांत बरोच फरक आसता. कांय वाठार चड उश्ण जाल्यार कांय चड थंड आसात. अॅमेझॉन देगणांत वर्सुकी सरासरी तापमान २५°से. ते २६° रूंद से. इतलें आसता. शिंयाळयांत ह्या देगणांत दक्षिणेवटेनच्या येवपी थंड वाऱ्याक लागून हांगाची हवा थंड आनी पावसाळी जाता.

ईशान्य ब्राझिलाचो वाठार सुक्या हवामानाचो आशिल्ल्यान थंय बरेच फावटी दुकळ पडटा. हांगा वर्सुकी सरासरी ५० ते ६५ सेंमी. पावस पडटा. हांगाचें हवामान गिमांत ३८° से. परस चड आसता. हांगा डिसेंबर ते एप्रिलमेरेन पावस पडटा. अॅटलांटिक दर्यादिगेर उश्ण आनी ओलसार हवामान आसता. हांगा वर्सभर पावस पडटा. रियु द जानैरूक शिंयाळयांत तापमान १०°से. जाल्यार गिमांत ३७° से. मेरेन आसता. ब्राझीलीयन उंचले भुंयेचेर गिमांत पावस पडटा आनी शिंयाळे थंड आनी सुके आसतात. हांगा वर्सुकी १८० सेंमी. मेरेन पावस पडटा. सरासरी तापमान २८° से. ते ३०° से. इतलें आसता. ब्राझिलाचो मदलो आनी दक्षिणेचो सड्याचो वाठार थंड आनी सुको आसता. कांय कडेन शिंयाळयांत हीम पडटा. हांगाचें सरासरी तापमान १४° से. ते १८° से. मेरेन आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** ब्राझिलाचो २/३ वाठार रानांचो आसून संवसारांतलें १०% रान ह्या देशांत आसा. हांगा तीन प्रकारचीं रानां आसात, १) उश्ण कटिबंधीयः पावसाचीं रानां, २) अर्द-पानझडी रानां आनी ३) कांट्यांची वनस्पत.

उश्ण कटिबंधीय रानां अॅमेझॉन देगणांत आनी अॅटलांटिक दर्यादिगेर आसात. हांगा १ चौ. किमी. वाठारांत सुमार ३,००० विंगड विंगड वनस्पतींच्यो जाती मेळटात. हांगाच्या रानांतली बरीच वनस्पत आयज मेरेन मनशाच्या संपर्कांत आयिल्ली ना. अॅटलांटिक दर्यादिगेर लाकडाच्या रुखांचीं रानां आसात. रबराची वनस्पत अॅमेझॉन देगणांत भरपूर प्रमाणांत दिश्टी पडटा.

अर्द-पानझडी रानां उदेंत ब्राझिलांत उण्या पावसाच्या आनी थंड हवेच्या सुक्या वाठारांनी मेळटात. ह्या रानांतल्या रुखांची उंचाय उणी आसा. ब्राझिलीयन उंचले भुंयेतूय असलीं रानां आसात. शिंयाळयांत हांगाच्या रुखांचीं पानां झडटात. दक्षिण ब्राझिलांत पाराना पायन हो रूख हड प्रमाणांत मेळटा. ह्या रुखांपसून कागद तयार करतात. माते ह्या दुसऱ्या एका रुखाचोय बरोच उपेग जाता. ते भायर कार्नोबा ह्या रुखापसून मेण मेळटा.

मातु ग्रोसु आनी गॉइआस वाठारासावन उदेंतेक सांव फ्रांसिश्कु देगणामेरेन तणांचे वाठार आसून हांगा झोंपांचेंय प्रमाण बरेंच आसा.

कांट्यांची वनस्पत ईशान्य ब्राझिलांत दुकळ पडपी वाठारांनी मेळटा. दर्यादिगेलागीं माड, आंबे, पणस हे सारके रूख आसात. नीळ, ब्राझील नट, वैजकी वखदां, मेण, घट लाकूड, रबर, पायन, टुंग तेल हीं ब्राझिलांतलीं मुखेल रान उत्पादनां आसात.

ॲमॅझॉन देगणांत तरेकवार सुकण्यांचे प्रकार सांपडटात. विंगड विंगड प्रकारांचे माकड, ॲनकॉंडा, म्हांयडोळ, स्लॉथ अशे तरेकवार सोरोप, मानगीं, वाग, वांस्वेलां, आर्मांडिलो, बिबटो, रानदुकर तशेच पिरान्या हें हिंसक प्रकारचें नुस्तें हांगा मेळटा. पूण हेर खंडांतल्या रानांपरस हांगा सस्तन प्राण्यांचे प्रकार मातशे उणेच मेळटात.

**इतिहास :** ब्राझील हें उत्तर मूळ पुर्तुगेज उतर ब्रासा हाचेवयल्यान घडलां. ब्रासा म्हळयार जळपी इंगळे. ह्या देशांत मेळपी ब्राझील वूड ह्या रुखावयल्यान ह्या देशाक तें नांव मेळळें. ब्राझील वूडापसून तांबडो रंग तयार करतात. ताका लागून ब्राझिलाक तांबड्या रानाचो प्रदेश अशेंय म्हण्टात.

ब्राझिलाचो सोद युरोपी भोंवडेकारांनी लायलो. पुर्तुगाल आनी स्पेन ह्या यूरोपांतल्या देशांमदीं वेपाराखातीर सर्त चलताली आनी हे सर्तीच्या परिणामांतल्यान ७ जून १४९४ दिसा तेन्नाच्या पोपसायबान तॉरदेसील्यासाचे कबलातीप्रमाण नवें सोदून काडिल्लें जग ह्या दोनूय देशांक वांटून दिलें. हे कबलातीवरवीं ब्राझिलाचेर पुर्तुगालाक अधिकार मेळळो. १५०० वर्सा एप्रिल म्हयन्यांत पेद्रु आल्वारीश काब्राल हो पुर्तुगेज तारवटी ब्राझिलांत पावलो आनी ताणें थंय पोर्तुगेज सत्तेची स्थापणूक जाल्याची अधिकृत घोशणा केली. सोळाव्या शतमानांत पुर्तुगाल, स्पेन, फ्रांस आनी नॅदरलॅंडस हांचेमदीं वसणुकांक लागून बरींच ल्हान-व्हड झुजां चलतालीं आनी ताचो परिणाम म्हणून ब्राझील हें सत्तासर्तीचें केंद्र जावन गेलें. पुर्तुगालाचो राजा तिसरो जुआंव हाणें ह्या वाठाराची राखण करचे पासत राखणेदळां धाडिल्लीं.

ब्राझिलांतल्यो सुसणुकोच्यो वसरवेको विंगड विंगड पुर्तुगेज तारवट्यांनी तयार केल्यो. ह्या वसणुकांक 'कॅप्टन्सी' अशें म्हण्टाले. ह्या काळांत वसणुकवाल्यांनी हांगा उंसाची लागवड करूंक सुरवात केली आनी गोरवां पोसपाचोय उद्देग व्हड प्रमाणांत सुरू केलो.

सोळाव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत ब्राझिलाचेर भायल्या घुरयांचो परिणाम जावंचो न्हय आनी थंयचो कारभार वेवस्थीत चलचो हाका लागून पुर्तुगेज सरकारान एका गव्हर्नर जनरलाची नेमणूक केली. सतराव्या शतमानांत हांगा भांगराच्या आनी हिऱ्यांच्या खाणींचो सोद लागिल्ल्यान ब्रिटीश, फ्रेंच आनी हॉलंडी लोकांनी घुरयो घाल्यो. पूण १७५० तली माद्रिद, १७६१ तली एल् पार्दो आनी १७७७ तली सान ईल्दोफोन्सो ह्या कबलातींवरवीं ब्राझिलाचेर पुर्तुगेजांचो अधिकार उरलो.

ह्याच काळांत अमेरिकेंत जावपी राजकीय बदलाचो परिणाम हांगा जाणवलो आनी हांगाच्या बुध्दीजीवी लोकांनी १७८९त मीनास झिरायशांत पुर्तुगेज सत्तेआड पयलो उठाव केलो. पूण हो उठाव पुर्तुगेजांनी चिड्डून उडयलो.

नेपोलियनान पुर्तुगालाचेर घुरी घाल्ल्यान १८०७ त पुर्तुगालचो राजा सवो जुआंव आनी ताच्या घरच्यांनी ब्राझिलांत आलाशिरो घेतलो. १८२१ मेरेन तो थंय उरलो आनी त्या काळांत ताणें थंयची अर्थवेवस्था सुदारली. प्रशासनांतूय ताणें बरेच बदल घडोवन हाडून उद्देग आनी कलेक फाटबळ दिलें.

१८१५त विएन्ना कबलाती वरवीं ब्राझिलाक पुर्तुगालचो पांवडो मेळळो. पूण ब्राझिलाच्या शेजारच्या देशांनी चलपी स्पेनाआडच्या स्वतंत्रताय चळवळींक लागून, १८२० तल्या पुर्तुगालांत हुकुमशायेआड जाल्ल्या उठावांक लागून आनी पुर्तुगेज उदारमतवाद्यांनी ब्राझिलाचे स्वतंत्रतायेक दिल्ल्या उक्त्या फाटबळाक लागून जुआंव राजान २६ एप्रिल १८२१ दिसा सत्ता सोडली आनी आपलो व्हडलो पूत दों पेद्रु हाका राजा घोशीत करून तो पुर्तुगालाक गेलो. ह्या काळांत ब्राझिलाक पुर्तुगालाकडल्यान परतून वसाणुकेचो पांवडो मेळिल्ल्यान थंय स्वतंत्रताय चळवळ बरीच खर जाली. ताका लागून ७ सप्टेंबर १८२२ दिसा पेद्रून ब्राझिलाचे स्वतंत्रतायेची घोशणा केली आनी थंयच्या लोकांचे इत्सेप्रमाण स्वता थंयचो राजा जालो.

२५ मार्च १८२४ ह्या दिसा ब्राझिलाची राज्यघटना तयार जाली, पूण १८२५ तल्या युरुग्वांयांतल्या उठावाक लागून आनी हेर राजकीय कारणांक लागून पेद्रूक राजपद सोडचें पडलें. ताचेउपरांत ताचो पूत दुसरो पेद्रू २३ जुलय १८४० दिसा राजा जालो, ताणें आपले राजवटींत गुलामगिरी नश्ट केली. अर्थीक, शिक्षणीक आनी संस्कृतीक मळांचेर सुदारणा केल्यो आनी लोकशाय तत्त्वांचो प्रसार केलो. ताच्या करण्यांक लागून देशांतले प्रतिगामी पंगड आनी रोमन कॅथलिक धर्माधिकारी हांचेकडेन ताचे मतभेद जाले. १८६५-७० ह्या काळांत ब्राझिलाचें पाराग्वायावांगडा झूज जालें, जातूंत ब्राझिलाचें खूब नुकसाण जालें. देशांत असंतोश पातळळो आनी १५ नोव्हेंबर १८८९ दिसा जनरल मानुएल दिऊदोरू दा फोन्सेक आनी फ्लोरियानु पिशोत हांच्या फुडारपणाखाल हांगा रक्तहीन राज्यक्रांती जाली आनी पेद्रून राज्य सोडलें.

मानुएल दिऊदोरू दा फोन्सेक हांगाचो राश्ट्राध्यक्ष जालो पूण १८९१ त ताणें फ्लोरियानु पिशोत हाका राश्ट्राध्यक्ष करचेपासत राजिनामो दिलो. ह्या दोगांयची राजवट हुकूमशायेची आशिल्ली आनी तांचे राजवटीआड जाल्ल्या बंडाक लागून तांकां सत्ता सोडची पडली. उपरांत १८९८ ते १९०२ मेरेन मानुएल फेर्राझ द कांपूश सालीश आनी १९०२ ते १९०६ मेरेन फ्रांसिश्कु द पावलु रुद्रीगीश आल्वीश हे दोन राश्ट्राध्यक्ष सत्तेर आयले. तांच्या काळांत अर्थवेवस्था सुदारपाचे बरेच यत्न जाले. तरी पूण १८९० ते १९१४ मेरेन ब्राझिलांत हुकूमशाय आनी उदारमतवादी हांचेमजगतीं सत्तेखातीर संघर्श जायत आशिल्लो.

पयल्या म्हाझुजांत सुरवेक ब्राझील तटस्थ रावलो पूण उपरांत ताणें झुजांत वांटो घेतलो. ह्या काळांत वेन्सेस्लाव ब्राझ हो हांगाचो राश्ट्राध्यक्ष आशिल्लो. ताचेउपरांत रुद्रीगीश आल्वीश परतून सत्तेर आयलो. १९२२ ते १९२६ मेरेन आर्तुर दा सिल्व बेर्नादीश राश्ट्राध्यक्ष जालो.

राजकीय बदल जावन लेगीत अर्थवेवस्था चडांत चड इबाडूंक लागिल्ली आनी हाचो फायदो घेवन राजकीय सुदारणा आनी अर्थीक उदरगत करपाची आश्वासनां दिवन गेतुलियु वागीश हाणें सैन्य आनी राजकीय फुडाऱ्यांच्या पालवान १९३०त उठाव करून सत्ता हातासली. आपले कारकिर्दींत ताणें बऱ्योच अर्थीक सुदारणा केल्यो आनी लोकांची परिस्थिती सुदारपाचे यत्न केले. १९३२त हांगा पर्थून उठाव जाले. १९३४त देशाचें नवें संविधान तयार जालें आनी ताचे प्रमाण वार्गास होच हांगाचो राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताची सता १९४५ मेरेन उरली. ताणें बरेच उठाव चिड्डून उडयले आनी विरोधकांक नश्ट केले. १० नोव्हेंबर १९३७ त ताणें नवें संविधान हाडून हुकूमशाय घट केली. ब्राझिलांत राजकीय पक्षांचेर बंदी घाली.

दुसऱ्या म्हाझुजांत ताणें इश्ट राश्ट्रांक फाटबळ दिलें आनी १९४२ त जर्मनी आनी इटलीआड झुजाची घोशणा केली. १९४५ त हांगा लश्करी उठाव जालो आनी वार्गास हाका सत्ता सोडची पडली. १८ सप्टेंबर १९४६ दिसा नवो राश्ट्राध्यक्ष येवरिंकु गाश्पार द्युत्रा हाणें नवें संविधान लागू केलें. पूण ताचे कारकीर्दींत चलनवाड, अन्नाची तूट म्हारगाय हेसारके प्रश्न उपरासले आनी १९५१तल्या वेंचणुकांनी वार्गास परतून वेंचून आयलो. पूण ह्या वेळार देशांत निर्माण जाल्ले प्रस्न ताच्यान सोडोवंक जालेनात. सैनिकी अधिकाऱ्यांच्या एका पंगडान वार्गास हाच्या रजिनाम्याची मागणी केली. २४ ऑगस्ट १९५४ दिसा वार्गासान राजिनामो दिलो आनी आत्महत्या केली.

१९५५ तल्या वेंचणुकांनी हांगा ज्युस्तिलियानु कुबिरस्चेक द ओलिवैर वेंचून आयलो. ताचे राजवटींत ब्राझिलांत अर्थीक सुदारणांवांगडा बऱ्योच उद्देगीक कार्यावळी चालीक लागल्यो. ताच्याच काळांत ब्राझिलीया ह्या नव्या राजपाटणाचें उबारप जालें. उपरांत जानीयु क्वाद्रुश आनी जुआंव गुलार्त अध्यक्ष जाले. पूण मजगतीं लश्करी अधिकाऱ्यांमदीं सत्तेखातीर परतून सर्त सुरू जाली. १९६१ त हांगा संविधानांत बदल केलो पूण हो बदल लोकशायेची वाड करपांत यशस्वी जालो ना. १९६४त मागाल्यांयश पिन्तु आनी मार्शल उम्बेर्तु काश्तेल ब्रांकु हांणी लश्कराच्या पालवान सत्ता हातासली आनी गुलार्ताक देशाभायरो जावंचो पडलो. ह्या काळांत ब्राझिलांत कम्युनिस्ट विचारसरणेक राजकीय पांवड्यार बरोच विरोध जाल्लो. १९६७त काश्तेलु ब्रांकू निवृत्त जाल्ल्यान आर्तुर कोश्त इ सिल्व हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. दाव्या पक्षांनी ह्या वेळार हांगा बरोच लदो दिलो. १९६९ उपरांत देशांतली लश्करी राजवट चड बळिश्ट जाली. त्याच वेळार एमिलीयु गारीस्ताश्तु मेडिसी हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९७४ त हांगा वेंचणुको जावन एश्तगिझेल राश्ट्राध्यक्ष जालो. पूण ताच्या पक्षाक १९७८ तल्या वेंचणुकांनी जैत मेळोवंक जालेंना. १९७९ ते १९८५ मेरेन हांगा जुआंव बातिश्त द ओलीव्हैर फिगेरैदु हाणें राश्ट्राध्यक्षपद सांबाळळें. १९८५ त जुझे सानी सत्तेर आयलो. १९९२त राश्ट्राध्यक्ष जाल्लो फेर्नांद कोलोर द मेलु हाका भ्रश्टाचाराच्या आरोपांक लागून सत्ता सोडची पडली. त्याच वर्सा इतामार, फ्रँको हो वावुरपी अध्यक्ष म्हूण सत्तेर आयलो. उपरांत १९९४ त जाल्ले वेंचणुकेंत फेर्नांदो हेन्रीक कार्दोझो हो अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. ऑक्टोबर १९९८ त तो परतून एक फावट अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो.

**राज्यवेवस्था :** प्रशासनाचे वेवस्थेखातीर ब्राझीलाचे २६ राज्यांनी वांटे केल्यात. सद्याची राज्यघटना १९६७ त आपणायल्ली. पूण १९८७त हे घटनेंत बदल करून राश्ट्राध्यक्षाक खंयच्याय राज्याच्या कारभारांत लक्ष घालपाची सवलत दिली. राश्ट्राध्यक्ष आनी उपराश्ट्राध्यक्ष स वर्सांखातीर वेंचून येतात. हांगाची संसद दोन सभाघरांनी भरता. हीं दोन घरां म्हळयार सिनेट आनी चेंबर ऑफ डॅप्युटीस. सिनेटाची मुदत आठ वर्सांची आसता.

लोकशाय राज्यपद्दत आशिल्ल्या ह्या देशांत लश्कराचें राज्यकारभाराचेर बरेंच नियंत्रण आसा. लश्करी अधिकाऱ्यांनी बंड करून सत्ता हाताशिल्ल्यान लोकशाय प्रक्रियेक बादा हाडिल्ल्याचीं बरींच उदाहरणां हांगा आसात.

हांगाचे मुखेल राजकीय पक्ष म्हळयार ब्राझिलीयन डॅमोक्रॅटिक मुव्हमँट पार्टी, लिबरल फ्रंट पार्टी, सोशल डॅमोक्रॅटिक पार्टी, डॅमोक्रॅटिक लेबर पार्टी, ब्राझिलीयन लेबर पार्टी आनी वर्कर्स पार्टी.

हांगाचे संसदेंत चार वर्सांखातीर ४८७ प्रतिनिधींची निवड जाता.

**अर्थीक स्थिती :** ब्राझिलांत शेतवड आनी उद्देगधंदे ह्या दोनूय मळांचेर बरेंच उत्पादन जाता. शेतवड हो विसाव्या शतमानाच्या पयल्या अर्दांत म्हत्वाचो वेवसाय आशिल्लो. पूण उपरांत उद्देगीक उदरगतीक लागून अर्थवेवस्थेवयलो शेतवडीचेर पडपी पुराय भार उणो जालो. काफी, कोको, ऊंस, केळीं, तांदूळ हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. ते भायर हेर बरीच फळफळावळ हांगा मेळटा. शेतवडीवांगडा गोरवां पोसपाचोय वेवसाय नेटान चलता. मांस उत्पादनांत जगांत ब्राझिलाचो क्रमांक बरोच वयर आसा. तंबाखूचें पीक हांगा काडटात. ब्राझिलाचो ५०% परस चड वाठार रानांचो आशिल्ल्यान तातूंतलें तरेकवार लाकूड अर्थवेवस्थेचो बरोच भार ल्हव करता.

हांगा खनिज संपत्ती भरपूर प्रमाणांत आसा. वसणूक काळांत भांगर आनी हिऱ्यांच्यो खाणी उदरगतीक आयल्यो. हालींच्या काळांत लोखण, मँगनीज, क्रोमायट, अभ्रक, झिर्कोनियम अशीं तरेकवार खनिजां हांगा व्हड प्रमाणांत सापडल्यांत. संवसारांत बेरिलियमच्या उत्पादनांत ब्राझिलाचो पयलो क्रमांक आसा.

उद्देगीक मळार साकर, लुगट, मशिनां आनी यंत्रां, रबरी वस्तू, सिगार हे उद्देग म्हत्वाचे. इलॅक्ट्रॉनिक उद्देगाक ब्राझिलांत हालींच्या काळांत बरीच तेजी आयल्या. सुमार ७,८४० किमी. लांबायेची दर्यादिग

आशिल्ल्यान हांगा नुस्तेंमारीचो वेवसाय व्हड प्रमाणांत जाता. रियु ग्रांद द सूल, सांता कातारीना, पारा ह्या दर्यादेगांचेर नुस्तेंमारी जाता.

उद्देगीक मळार ब्राझिलान स्वयंपूर्णताय मेळयल्ली आसून शेतवड उद्देग, रसायनां, सारें, कागद, वखदां हांच्या उत्पादनांत बरीच उदरगत जाल्या. १९६२ सावन हांगा कृत्रीम रबरांचें उत्पादन जाता.

आयात-निर्यात करपी सांव पाउलु, रियु द जानेरु हीं बंदरां हांगाचीं मुखेल वेपारी केंद्रां जावन रावल्यांत. ब्राझिलाचे आयात निर्यात वेव्हार युरोपी देश तशेंच अमेरिका खंडांतले देश हांचेलागीं चड जातात. क्रुझैरू हें हांगाचें चलन. पूण चलन फुगवटो आनी हेर अर्थीक प्रस्नांचेर उपाय काडपाखातीर हांगाचें चलन बरेच फावट बदलप जालां.

बाकु सेंत्राल द ब्राझील ही हांगाची मुखेल बँक.

उद्देगीक मळाचेर भायल्या इंधनाचेर पातयेवन रावचें न्हय ह्या उद्देशान ब्राझिलांत पेट्रोलियमाचे सुवातेर आल्कॉहोलांचो उपेग करप जाता. तेभायर जर्मनी वांगडा जाल्ले कबलातीवरवीं अणू उर्जेची उदरगत करपाचे नेटान यत्न चलल्यात.

**येरादारी आनी संचारण :** ब्राझिलाचे भुगोलीक परिस्थितीक लागून सुरवेक येरादारी खातीर हांगा बरेच प्रस्न उपरासले. कांय सुवातांनी रस्ते, रेल्वे आनी उदका मार्गांतल्यान येरादारी करप शक्य नाशिल्ल्यान हवाई मार्गांवयले येरादारीक बरेंच म्हत्व आयलां.

१९८५ मेरेन हांगा १५,८३,१७२ किमी. लांबयेचे रस्ते आशिल्ले. रस्त्यांचें प्रमाण दक्षिणेकडल्या राज्यांनी चड आसा. ट्रान्स ॲमेझोनियन हो म्हत्वाचो रस्तो १९७४ त बांदून पुराय जालो.

हांगाच्या रेल्वेमार्गांची लांबाय ३० हजार किमी. परस चड आसून तांचेर फॅडरल रेल्वेस आनी सांव पाउलु रेल्वेस ह्यो दोन संस्था नियंत्रण दवरतात. कांय रेल्वेमार्ग खाजगी आसात.

उदकांतली येरादारी ॲमॅझॉन, पाराना आनी सांव फ्रांसिश्कु ह्या तीन व्हडल्या न्हंयांवरवीं जाता. दर्यांतले येरादारीखातीर हांगा बरींच बंदरां उदरगतीक पावल्यांत. सँतुरा, रियु द जानैरु, पारानाग्वा, रेसीफे, व्हितोरिया, तूबारँओं, माकीओ आनी इल्येऊश हीं मुखेल बंदरां आसात. देशाभितर सुमार ४३,००० किमी. लांबायेचे उदकामार्ग आसात.

ब्राझिलांत हवाई मार्गावयले येरादारीक चड म्हत्व आशिल्ल्यान देशभर सुमार १,५०० विमानतळ आसात. आंतरराश्ट्रीय येरादारी रियु दे जानैरु, ब्राझिलिया, सांव पाउलु, पोर्तुआलेग्र, काम्पु ग्रांद, साल्वादोर, रेसीफे, बेलेम आनी मानाऊस ह्या विमानतळा वयल्यान चड जाता. देशांत सुमार ३४ विमानकंपन्यो आसात. हातूंतल्यो ३० परकी देशांतल्यो आसात.

१९८३ मेरेन ३१२ दिसाळीं ब्राझिलांत उजवाडाक येतालीं. हातूंतलीं एस्तादु सांव पाउलु, 'जॉर्नाल द ब्राझील, ऊ ग्लोबु हीं मुखेल आसात.

**लोक आनी समाजजीण :** दक्षिण अमेरिका खंडांतले वट्ट लोकसंख्येमतली अर्दापरस चड लोकसंख्या ब्राझिलांत आसा. हांगा लोकसंख्येची वाड विसाव्या शतमानांत चड प्रमाणांत जाली.

हांगाचो समाज तरेकवार वंशीक भरसणींतल्यान तयार जाल्ल्यान वंशीक मूळ, सोदप कठीण जाता. सुरवेक हांगा 'इंडियन' लोक आशिल्ले आनी वसणूक काळांत पोर्तुगेज वसणुककार, मूळ आफ्रिकेंतल्यान हाडिल्ले खाप्री गुलाम, हेर युरोपी आनी आशियाई लोक हांगा येवन स्थायीक जाल्ल्यान लोकसंख्येंत बरींच वेगळेपणां आयलीं. पुर्तुगेज आनी इंडियन हांच्या संकरांतल्यान तयार जाल्लो मिस्तीश समाज, युरोपी आनी आफ्रिकन हांच्या संकरांतल्यान जाल्लो मुलाटो समाज हांचें प्रमाण बरेंच वाडिल्ल्यान हांगाची संस्कृताय एक वेगळीच भरसल्ली संस्कृताय जावन रावल्या. अमेरिकन इंडियन चडशे ॲमॅझॉन देगण आनी भोंवतणच्या रानांनी रावतात. तेभायर दर वर्सा हेर देशांतल्यान स्थलांतर करून ब्राझिलांत येवपी लोकांचेंय प्रमाण बरेंच व्हड आसा. सगळयांत चड रोमन कॅथलिक लोक आशिल्लो हो देश. १९८० मेरेन हांगाचे ८९% लोक रोमन कॅथलिक आशिल्ले. प्रोटेस्टंट आनी चैतन्यवादी स्पीरीच्युअलिस्ट लोकूय हांगा आसात. इग्रर्जेचो वांटो लोकांचे समाजीक आनी राजकीय जिणेंत व्हड प्रमाणांत आशिल्ल्याचें जाणवता.

हांगाचे समाजजिणेचेर युरोप आनी आफ्रिकेचो प्रभाव स्पश्टपणान जाणवता. दुकराचें आनी गायचें मांसूय हे लोक बरेच खातात. काफी हें हांगाचें मुखेल पेय.

हांगाचे चडशे सगळे लोक अस्तंती प्रकारचो भेस घालतात. खाप्री बायलांमदीं मात आफ्रिकी भेस बरेच कडेन पळोवंक मेळटा. 'काव बॉय' हें हांगाचें खाशेलपण. पुराय दक्षिण अमेरिकेंतल्या भाशेनूच हांगाचेय काव बॉय जिन्स, चामड्याचो पटो, ऊंच खोंटांचे बूट घालतात. कांयकडेनचे गोरवां राखपाचो वेवसाय करपी, रानांतल्या कांट्यापसून राखण मेळचे खातीर पुराय भेस चामड्याचो घालतात.

शेतकार लोक गांवगिऱ्या वाठारांनी मातयेच्या घरांनी रावतात. ॲमॅझॉन वाठारांतले इंडियन चुडटांनी धांपिल्ल्या घरांनी रावतात.

रोमन कॅथलिक पंथाचे सगळे सण आनी उत्सव हांगा व्हड दबाज्यान मनयतात. रियु द जानैरु शारांतलो कार्नावाल पळोवंक संवसारांतले सगळेकडले लोक जमतात. हांगाच्या लोकांक संगीत आनी नाचाची भोव आवड.

हांगाची कला, संगीत हांचेर विंगडपणाचो प्रभाव दिसता. अठराव्या शतमानांत हांगा 'आलेझादिन्यु' ह्या नांवान नामनेक पाविल्लो आंतोनियु फ्रांसिश्कु लिश्बोअ हो व्हड शिल्पकार जावन गेलो.

मारियु क्रॅयु एमीलियानु द काव्हालकांती, आंतीआ मालफाती,

कांदिदु पोर्तीनारी, हे नामनेचे चित्रकार हांगा जाले. ऐतोर वियालोबुस, कामार्गु ग्वार्न्येरी, आंतोनियु कार्लूश गोमीश, ऑस्कर लॅरेथो फेर्नांदीश, क्लाउदियु सांतोरु हे नामनेचे संगीतकार. ब्राझिलीया हे राजधानीचो आराखडो तयार करपी लुसियु कोश्त हाका वास्तुशिल्पकलेच्या मळार व्हड नामना मेळळया.

सांबा हो हांगाचो लोकप्रिय नाच संवसारभर गाजला. तेभायर फूटबॉल आनी टॅनीस हे खेळ हांगा बरेच लोकप्रिय आसात. पेले हो आंतरराश्ट्रीय नामनेचो फूटबॉल गडो ह्याच देशांतलो.

**शिक्षण :** ब्राझिलांत राश्ट्रीय साक्षरतायेचें प्रमाण सुमार ७९.३% आसा. हांगा मुळावें शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसा. माध्यमिक थरावयलें शिक्षण बरेचकडेन खाजगी संस्थांकडल्यान दिवप जाता. गांवगिऱ्या वाठारांनी शाळांचें प्रमाण उणें आशिल्ल्यान रेडिओ आनी हेर प्रसार माध्यमांवरवीं शिक्षणाच्यो कार्यावळी जातात.

उंचेल्या पांवड्यावयलें शिक्षण दिवपी हांगा ३५ संघराज्य विश्वविद्यालयां आसात. हातूंतली मुखेल म्हळ्यार रियु जानैरु, नित्तेरॉय, बेलु ओरिझॉन्तु, जुआंव पेरसोअ, साल्वादोर, युनिवेर्सीदाद नासिऑनाल द ब्राझीलीया हीं आसात. तेभायर सुमार २० खाजगी विश्वविद्यालयां आसात. शिक्षणाच्या प्रसाराखातीर सरकार बरेच यत्न करता. तरी पूण गांवगिऱ्या वाठारांनी शिक्षण फावो तशें पातळिल्लें ना.

रियु द जानैरु हांगा बरींच संग्रहालयां आनी अकादमी आसात. हांगा शिक्षण, संस्कृताय आनी कलेच्या मळार वावुरपी संस्थांचेंय प्रमाण बरेंच व्हड आसा. सांव पाउलु रेसीफे आनी साल्वादोर शारांनीय अशीं संग्रहालयां आसात. ब्राझिलीया हे नवे राजधानीची स्थापणूक जायतसावन थंय राश्ट्रीय मळावयल्या संस्थांचो आनी अकादमीचो बरोच वावर चलता. रियु द जानैरूंतलें ग्रंथालय दक्षिण अमेरिकेंत सगळयांत व्हड आनी गिरेस्त अशें समजतात.

**म्हत्वाचीं थळां :** राजधानी ब्राझिलिया ह्या शाराक थंयचे वास्तुशिल्पकलेक लागून संवसारभर नामना मेळळया. त्या शाराक देशांतलें म्हत्वाचें पर्यटन आनी उद्देगीक केंद्र मानतात.

रियु जानैरु पयलींची राजधानी, सांव पाऊलू, साल्वादोर, रेसीफे हीं शारां उद्देगीक नदरेन तशेंच पर्यटनाचे नदरेन उदरगतीक पावल्यांत बेलेम, मानाउस हीं ॲमेझॉन देगणांतलीं शारां थंयचे सैमीक सुंदरतायेक लागून नामनेक पावल्यांत. ब्राझील आनी आर्जेंटिनाचे शिमेवयलो सुमार ७० मी. उंचायेचो इम्बासू धबधबो हें एक म्हत्वाचें पर्यटन केंद्र.

- शैलेन्द्र मेहता.

**ब्राझील साहित्याचो इतिहास :** ब्राझिलाच्या सुरवेच्या साहित्यांत पुर्तुगेजांनी दर्यापलतडीं स्थापीत केल्ल्यो वसणुको आनी तांचो पुर्तुगालांत जावपी परिणाम, तशेंच पुर्तुगेजांचें व्हड नौदल आनी ताच्या आदारान लायिल्लो सोद ब्राझिलाच्या इतिहासाची तारखेवार नोंद, पॉपुलर थिएटर आनी कामोंयश हाच्या महाकाव्याचें दर्शन जाता. कांय जाणांच्या मतान पॅरो वाया द कामीना (पुर्तुगेज खलाशी) हाणें लायिल्लो ब्राझिलाचो सोद आनी थंयचे सोबीतकायेविशीं बरयल्लीं पत्रां (१५००) ही ब्राझील साहित्याची सुरवात आसा. तशेंच पुर्तुगेज भोंवडेकार पॅरो द मागल्ल्यांयश द गांदाओ आनी ग्राबीएल सुआरीश द सौझा हांचीं ब्राझिलाविशींचीं वर्णनां मानुएल दा नोब्रेगा आनी झुजे द आंचीता ह्या जेझुइत पाद्रींनी, बाटयल्ल्या अमर इंडियनांखातीर तयार केल्ले शेर्माव आनी कविता हांचोय ब्राझिलाच्या सुरवेच्या साहित्यांत आस्पाव जाता. पूण सुरवातीच्या काळांत बारोक आनी आर्किडीया ह्या साहित्य चळवळींखाल ब्राझिलांत साहित्य रचनेपरस नक्कलूच चड जाताली.

**बारोक :** हे पद्दतींत सोबीतकाय वा नटयल्ले जिणेचेर चड भर दिला. बारोक हें उतर लॅटीन भाशेंतल्यान आयलां. हातूंत भौतिकवादापरस इंद्रीय प्रमाणांचेर आनी तत्त्वीक कल्पनांचेर चड भर दिला. जिवीत आनी मरण हांचेमदली प्रतिशठापना (परिस्थिती) दाखोवप हो बारोक पद्दतीचो मुखेल हेत. ह्या मताप्रमाण मनीस हो कांय दिसांचोच सांगाती आसून, दर एकल्यान ह्या व्हड संवसारांत आपले धाकटुले जिणेचो बऱ्यांतलो बरो उपेग करप. फाटले चळवळीसावन सुरू जाल्ले, बायलांचे इंद्रीयगाह्य (sensuous) तोखेवणीचेर बारोक शैलीन आनीक भर दिल्लो. सुरवेचे तीन शेंकडे ब्राझील साहित्याची लागीं लागीं हेच पद्दतीचेर रचणूक जाताली.

बेन्तू तेयशेयर (१५५०-१६००) हाचें १६०१ त उजवाडा आयिल्लें 'प्रोसोपोपीया' हें म्हाकाव्य ही ब्राझिल बारोक पद्दतीची सुरवात. ह्या तेंपावयलें हेर म्हत्वाचें साहित्य म्हळ्यार पाद्री आन्तोनियु विऐरा (१६०८-१६९७) हाचें १६ खंडांनी उजवाडा आयिल्लें म्हाकाव्य. 'सेरमोंयश' आनी ग्रेगरी द मातुश (१६२३-१६९६) हाच्यो उपरोधी (satirical) कविता.

अठराव्या शेंकड्यांत ब्राझिलाचो विचारवंत वर्ग राश्ट्रवादाचो पुरस्कार करपी अकादमीकडेन संघटीत जाल्लो. 'एस्कुसिदोस' (साल्वादोर १७२४-२५), 'फॅलिझस' (रियु द जानैरु १७३६-१७४०) आनी 'सेलेतुश' (रियु द जानैरु १७५२-५४) ह्यो ह्या तेंपावयल्यो कांय म्हत्वाच्यो अकादमी.

**आर्कादिया :** राश्ट्रीय भावनांवांगडा ब्राझिलाच्या वातावरणाक फावो अशा लिखाणाची गरज जाणवपाक लागली, तेन्ना आर्कादिया पद्दतीच्या साहित्याक वाव मेळ्ळो. गांवगिऱ्या लोकांची जीण, तांचें सूख-दूख्ख, तांच्यो आशा आकांक्षा हें सगळें साद्या आनी सोप्या उतरांनी मांडप हें आर्कादिया पद्दतीचें खाशेलपण. ही पद्दत आपणायतना साहित्यिकांनी ब्राझिलाच्या पुर्विल्ल्या शास्त्रांचेरूय भर दिल्लो. क्लाउदियु मानुएल द कोश्ता (१७२९-१७८९) हाचो 'ओब्राश पोयेटीकस' हो कवितां झेलो १७६८त उजवाडा येतकूच ब्राझिलांत आर्कादिया पद्दत सुरू जाली. ह्या

तेंपावयलो तोमास आंतोनियु गोझागा (१७४४-१८१०) हाचो 'मारिलीया द दिर्सू' (१७९२-१७९९) हो कवितां झेलोय खूब म्हत्वाचो. जाल्यार आल्वेरेन्जा पेक्सितु (१७४४-१७९३) हो त्या तेंपावयलो ब्राझिलाचो श्रेश्ठ कवी. १८०८ त पुर्तुगेजांचें राजघराणें ब्राझिलांत गेलेउपरांत थंयच्या साहित्यांत पुर्तुगेज संस्कृतायेक चड भर दिवप जालें.

**स्वच्छंदतायवाद :** ब्राझिलांत स्वच्छंदतायवादी चळवळ खूब काळ म्हळयार वसणूक काळ ते स्वतंत्रताय आनी राजेशाय येमेरेन (१८२२) उरिल्ल्यान हे चळवळीक हांगा चड म्हत्व प्राप्त जालां. ह्या तेंपार ब्राझील साहित्यिकांनी राश्ट्रीयवादाचेर भर दितना तांचो आदलो इतिहास, समाजाचो उगम, परंपरा आनी लोकवेदाचो आदार घेतला. कविता, नाटक आनी हेर काल्पनीक लिखाणांत खूब वाड जाली. तेचपरी आत्मनिश्ठा आनी व्यक्तीवाद हांका साहित्यांत उंचेलो पांवडो मेळ्ळो. भौतिकी आनी समाजीक जीण, तशेंच त्यावेळार अस्तित्वांत आशिल्ल्या समाजीक आनी राजकीय घडामोडींचेरूय उजवाड घाला.

दुमिंगुश गोंसाल्वीश द मागाल्ल्यायश (१८११-१८६४) हाच्या 'सुसपिरुश पोयेतिकुश इ साउदीश' ह्या कविता झेल्यान ब्राझिलांत स्वच्छंदतायवादी साहित्याक सुरवात जाली. पूण आंतोनियु गोंसालवीश दीयश (१८२३-१८६४) हो ब्राझिलाचो पयलो श्रेश्ठ स्वच्छंदतायवादी साहित्यकार. ताच्या 'कांसांव दु एसिलियु' आनी 'आयजुकाप्रिम' ह्या झेल्यांतल्यो राश्ट्रवादाचेर आदारिल्ल्यो कविता त्या वेळार खूब गाजल्यो. तांच्यातल्यानूच मुखार देशी विचारांक चालना मेळ्ळी. ज्योकीं मानुएल द मेसादु हाणें बरयल्ली 'मोरेनिना' ही ब्राझील साहित्यांतली पयली कादंबरी. झुजे द आलेंकार (१८२९-१८७७) हो श्रेश्ठ स्वच्छंदतायवादी गद्य साहित्यकार 'ऊ गुरानी' आनी 'इरासिमा' ह्यो ताच्यो थळावे अमर इंडियन आनी गोऱ्या लोकांभितरले संबंद दाखोवपी कादंबऱ्यो. आल्वारीश द आझावेदु आनी आन्तोनियु द काश्त्रु हेय त्या तेंपावयले प्रसिद्द साहित्यकार.

**वास्तववाद :** राजवटीच्या दुसऱ्या काळांत (१८३८-१८८९) राजकीय आनी भौशिक परिवर्तनांक लागून वास्तवीक घडणुकांचेर चड भर दिल्ल्यान स्वच्छंदतायवादाक ल्हव ल्हव देंवती कळा लागली. माशादु द आसिस (१९३९-१९०८) हाच्या 'मॅमोरीयश पोस्तुमश द ब्रास कुबास' (१८८०) हें वास्तविकतायेचेर भर दिवपी ब्राझिलांतलें पयलें प्रसिद्द पुस्तक. जाल्यार 'ऊ मुलातु' हें आलिसीयु द आझावेदु हाचें निसर्गवादी साहित्यांतलें श्रेश्ठ पुस्तक.

**पार्नासिआनीझम :** स्वच्छंदतायवादी साहित्यांत उकतायल्ल्या सगळ्या मतांचो विरोध करून वस्तुनिश्ठ काव्याचेर चड भर दिवपी वाद. हे पद्दतीचेर आदारिल्लें साहित्य तिओफेलु दीयश हाच्या 'फानफॅर्रश' (१८८२) आनी ऑलावु बिल्याक हाच्या 'पॉएसीश' (१८८२) हातूंत वाचूंक मेळटा.

**प्रतीकवाद :** पार्नास ह्या वस्तुनिश्ठेचेर भर दिवपी काव्यसंप्रदायाआड विरोध म्हणून प्रतीकवादाचो उदय जालो. गंध, स्वर आनी रंग हांचो आपसांत खूब लागींचो संबंद आसा अशें प्रतिकवादाचें मत. काव्यान चित्रकला आनी संगितासावन स्फूर्त घेवंची, तशेंच काव्यांत उक्ती जावपी प्रतिमा कवीच्या मनाचींच प्रतिकां आसची ह्या तत्त्वांचेर प्रतीकवाद्यांनी भर दिल्लो. क्रुझ ए सौझ (१८६१-१८९८) हाच्या 'मिसाल' आनी 'ब्राकुस' ह्या काव्यांतल्यान ब्राझिलांत प्रतीकवादी साहित्याक सुरवात जाली. आगुश्तु दु आंजुश (१८८४-१९१४) हो एक प्रसिध्द प्रतीकवादी साहित्यकार.

ब्राझिलांत १८८९ त प्रजासत्ताकाची स्थापणूक जाले उपरांत थंय थळावे संस्कृतीक प्राधान्य मेळपाक लागलें. त्या तेंपार शारी जिणेक म्हत्व प्राप्त जाल्ल्यान साहित्यकारांनी त्याच विशयाक म्हत्व दिल्लें. तेचपरी शारीकरणाचे शेतवडीचेर जावपी वायट परिणामांचेरूय तांणी उजवाड घाल्लो. लिमा बार्रेतु (१८८१-१९२२), युक्लीदश द कुन्य (१८६६-१९०९) आनी मौंतेरु लोबातु (१८८२-१९४८) हे विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेचे नामनेचे ब्राझिली साहित्यकार.

**आधुनीकतावाद :** सा पावल शारांत १९२२ त उजवाडा आयिल्ल्या 'मॉडर्न आर्ट वीक' ह्या सातोळयांत ब्राझील साहित्य रचणुकेंत आधुनीकतावादाची बुन्याद घाली. पयल्या म्हाझुजाचे वायट परिणाम, १९२९ त निर्माण जाल्ले जागतीक पेंचप्रसंग, १९३०तली क्रांती, कम्युनिश्ट पक्षाची स्थापणूक हांचेर आधुनिकतायवादी साहित्यांत चड भर आशिल्लो. राश्ट्रीयतेचो सोद हे मूळ भूमिकेंतल्यान ब्राझिलाचे संस्कृतीच्या सगळया आंगांचें नव्यान मुल्यांकन जावंक लागिल्ल्यान साहित्यकारांनी परक्यां संबंदी एके तरेचो दुस्वास परगटायल्लो.

आधुनीकतावादी चळवळींतल्या पयल्या पांवड्यांतले श्रेश्ठ साहित्यकार मरियु द आंद्रे (१८९३-१९४५) हाचें 'माकुन्येमा', ऑस्वालदु द आंद्रे (१८९०-१९५४) हाचो 'पाओ-ब्राझील' (१९२५) हो कवितां झेलो आनी 'कॅनीबॅलिस्टीक जर्नल' तशेंच मान्युएल बांदैर (१८८३-१९६८) हाणें केल्ल्या शेक्सपियराच्या साहित्याचो अणकार ह्यो ह्या काळांतल्यो उच्च दर्ज्याच्यो कलाकृती.

१९३० सावन आधुनीकतावादी चळवळीक वाडटी उबारी आयली. कवी कार्लुश द्रुमोंद द आंद्रे (१९०२-१९८७), कादंबरीकार एरिको वॅरिसिमु (१९०५-१९७५), जॉर्ज आमादु (१९१२-?) आनी राशेल द कैरोझ (१९१०-?) हे त्या काळाचे श्रेश्ठ साहित्यकार विनिसियश द मोरायश हो ब्राझिलाच्या कवींमदलो एक श्रेश्ठ कवी. कवी ज्यो काब्राल द डिमेलु नेतु (१९२०-?), क्लारिश लिरपॅक्तर १९२५-१९७७ आनी कादंबरीकार गिमारांयश रोझा हांचो जनरेशन ऑफ ४५ ह्या काळांत ब्राझिलाच्या श्रेश्ठ साहित्यकारांभितर आस्पाव जाता.

आधुनिक ब्राझिली साहित्यांत प्रादेशिकताय संशोधन धरून फँटसी मेरेन विविध प्रकारांचे प्रवाह दिसतात. लॅटीन अमेरिकेंत ब्राझिली साहित्याक उबारी दिवपाच्या कामांत 'नॉवॅल डिनाऊनशिएशन' आनी 'नॉवॅल रिपोर्ट' हांचो म्हत्वाचो हातभार लागला.

- डॉ. दिलीप लवंदो

**ब्राह्मी लिपी :** भारतांतली एक म्हत्वाची पुर्विल्ली लिपी. भारतांतल्या सगळ्या लिपींची ही जननी मानतात. साक्षात ब्रह्मदेवान ही लिपी काडली देखून तिचें नांव ब्राह्मी पडलें अशी आख्यायिका आसा. ब्राह्मी लिपीचे उत्पत्तीविशीं विद्वानांमदीं एकमत ना. कांय जाण तिचो उगम भायल्या देशांत जाला अशें समजतात जाल्यार कांय विद्वान ती भारतांतूच निर्माण जाली अशें मानतात. विल्सन, प्रिन्सेप, ऑफ्रेड, म्युलर, सेनार्ट आदी अस्तंती विद्वान ग्रीसी वा फोनिशियन लिपीपसून ब्राह्मीची उत्पत्ती जाली अशें मानतात. कस्ट हाच्या म्हणण्याप्रमाण अस्तंत आशियांत रावपी फेनिशियन वेपाऱ्यांकडेन भारताचे वेपारी संबंद आशिल्ले आनी तांचेपसून भारतीय लोक ब्राह्मी लिपी शिकले आसुंये. विल्यम जोन्स, वेबर, टेलर आनी ब्युलर आदी विद्वानांनी सेमेटिक लिपीपसून ब्राह्मीची उत्पत्ती मानल्या. पूण राजबाली पांडे आनी गौरीशंकर हीराचंद्र ओझा (१८६३-१९४०) हांणी हांच्या मताचें खंडण करून वेगवेगळे साहित्यीक आनी पुरातत्त्वाविशीं प्रमाण दिवन वैदिक युगांतूय भारतीय लोकांक लेखनकला येताली आनी भारतीय आर्यांनीच हे लिपीचो सोद लायलो अशें मत मांडलें. ताणें उपनिषदां, आरण्यकां हांच्यांतले स्वर, व्यंजनांचे घोष, अघोष, दन्तव्य, तालव्य, मुर्धन्य आदी बारीकसाणी लेखन विद्येबगर येवंच्योनात हें दाखयलें. ऐतरेय ब्राह्मणांत अकार, उकार आनी मकार हांच्या एकचारांतल्यान 'ओम' (ॐ) ह्या अक्षराची निर्मिती जाता हें दाखयलें.

पूण ह्या सगळ्या मतांतल्यान सादारणपणान ब्राह्मीची उत्पत्ती उत्तर सेमिटिकपसून जाली हेंच मत गृहीत धरतात. भारतीय पंडितांनी हे लिपींत स्वर, व्यजनां, गूण वृध्दी, ऱ्हस्व-दीर्घ पद्दत, पांच वर्ग, अक्षरांचे घोष, अघोष आदी भेद; अनुनासिकां; 'य', 'र', 'ल', 'व' हे अर्दस्वर; 'श', 'ष', 'स' हे उष्म वर्ण; 'ह' हो महाप्राण, कंठ, तालव्य, मुर्धन्य, दन्तव्य आनी ओष्ठव्य हे अक्षरभेद आदी गजालींची तातूंत मोलादीक भर घाली.

ब्राह्मी अक्षरांचें खाशेलपण म्हळयार चडशा अक्षरांच्या आकारांमदीं उबो दांडो आसता. उब्या दांड्याच्या तळाक अर्दवाटकुळात्मक आकार अक्षराक पदकावरी उजवेकडेन वा दावेकडेन लायिल्ले आसतात. ह्या नेमाक अपवाद म्हळयार ग, ज, म, झ आदी ब्राह्मी लिपींत अ, इ, उ हे तीन स्वर आनी एकुणीस व्यंजनां अशीं बावीस अक्षरां आसात. उत्तर सेमिटिक लिपींत तितलींच अक्षरां आसात.

**ब्राह्मी लिपीचो विकास :** भारतांतले पुर्विल्ले लेखनकलेचो आशिल्लो पुरावो म्हणून अशोकाच्या (इ.स.प. सुमार ३०३ - सुमार २३२) ब्राह्मी लेखांचो उल्लेख करूंक जाय. अशोकाच्या लेखांचे वट्ट मुखेल दोन गट आसात. : १) प्रस्तरलेख २) स्तंभलेख. हांचेच लघुप्रस्तरलेख आनी लघुस्तंभलेख अशे भेद आसात. सम्राट अशोकान ब्राह्मी लिपींत ज्यो राजाज्ञा कोरांतिल्ल्यो तातूंत एकसारकेंपण आशिल्लें. पूण फुडें तशें उरलेंना. अशोकाचो नातू दशरथ हाचो लेख, महास्थान सोहगौराचो लेख, अस्तंत्या घाटांतलो नाणेपाट लेख, हाथीगुंफाचो लेख हातूंतली लिपी खुबूच वेगळी आसा. अशोकाच्या अक्षरांत जे उबे दांडे आशिल्ले तांची उंचाय उपरांत उणी जाली. अक्षराच्या मोडणांत बदल जालो. तो बदल त्या त्या देशाविशेशाप्रमाण वेगळया स्वरुपाचो जालो. हे देशाविशेश अशेः १) उदेंत भाग-मगध कौशांबी, भारहूत, बोधगया, हाथीगुंफा, अयोध्या, २) उत्तर भाग - तक्षशिला, मथुरा, माळवा, ३) अस्तंत भाग - हातूंत अस्तंत घाटाचो आस्पाव जाता. ४) दक्षिण भाग - दक्षिण भारतांतलो उदेंत भाग, अमरावती शैलगृहांतलो लेख.



सम्राट अशोकाचा गिरनार लेखांतली ब्राम्ही लिपी : इ.स.प. तिसरो शेंकडो.

**१) उदेंत वाठारांतली लिपीविशेश :** बिहारांत नागार्जून शैलगृहांत सम्राट अशोकाचो नातू दशरथ हाचे तीन लेख आसात. हीं अक्षरां अशोकाचे लिपिंतल्या अक्षरांपरस वेगळीं आसात. भारहूत, बोधगया, हाथीगुंफा, अयोध्या, पभोसाच्या लेखांचो काळ. इ. स. आदीं दुसरें शतमान. ह्या काळांत ज्या अक्षरांक कोन आशिल्ले थंय अक्षरांक वाटकुळेपण आयलें. ज्या अक्षरांक वाटकुळेपण आशिल्लें त्या अक्षराची

उंचाय उणी जावन ते सुवातेर कोन आयले. ह्या काळांत भारताचेर शकांनी घुरयो घाल्यो तेन्ना नवे संस्कृतीकडेन संबंद जाल्लो दिश्टी पडटा. लेखन पद्दतींतूय फरक जाल्लो दिश्टी पडटा.

**२) उत्तर भागांतले लिपीविशेश :** मथुरेच्या शकांच्या लेखांतल्यान नवी पद्दत दिश्टी पडटा. बोरून बरयतना अक्षरांक उण्या-चड प्रमाणांत दाटाय प्राप्त जाल्या. तेप्रमाण मथुरेच्या लेखांतल्यान अ, आ, च, छ, त, भ, य, ल, ह आदी अक्षरांक बोरून बरयल्लेवरी मोडण आयलां. ह्या लेखांचो काळ सादारणपणान इ. स. आदीं पयलें शतमान आनी सांचीक जे लेख मेळळयात तांचोय काळ सादारण होच.

**३) अस्तंत भागांतले लिपीविशेश :** हातूंत सातवाहन सम्राज्ञी नागनिका (इ. स. आदीं दुसरें शतमान) हिचो नाणें घाटांतलो लेख, पितळखोरे, कोंडाणे, भाजे, कार्ले, नासिक अजंठ्याच्या सव्या शैलघरांतले लेख हांचो आस्पाव जाता. ह्या लेखांचो काळ इ. स. आदीं पयलें शतमान.

**४) दक्षिण भागांतले लिपीविशेश :** ह्या काळांतले ब्राह्मी लेख आंध्र प्रदेशांतल्या कृष्णा जिल्ह्यांतल्या भट्टिपोलूच्या स्तुपाचेर मेळळयात. ब्यूलर हाणें ह्या लेखांचो बारीक- साणीन अभ्यास करून उत्तरेकडले लिपिपरस दक्षिणेकडली लिपी वेगळी आशिल्ली अशें मत मांडलां.

दक्षिण भारतांतल्या लिपींचेर १८७४ त ए. सी. बर्नेल हाणें साऊथ इंडियन पॅलिओग्राफी हो ग्रंथ उजवाडाक हाडला. १९२२ त सी. शिवराममूर्ती हाणें इंडियन इपिग्राफी अँड साऊथ इंडियन स्क्रिप्ट्स हो ग्रंथ उजवाडाक हाडलो.

**कुशाण आनी क्षत्रप काळांतली ब्राह्मीलिपी (इ. स. ची सुरवात ते इ. स. चें तिसरें शतमान) :** परकियांच्यो घुरयो आनी नव्या संस्कृतीक संबंदांक लागून लेखनशैली देशकाळविशेशा प्रमाण बदलत गेली. अक्षरा वयर बारीक आडवी कुरू आयली. ब्यूलर हाणें हिका 'सेरीफ' अशें नांव दिलां. फुडें कुरवेचें रुपांतर अक्षरा वयल्या पोकळ चौकनांत जालें. दक्षिणेकडेन ह्या काळांतले अमरावती, नागार्जूनकोंडा, जगय्यपेटा, सालिहुंडम गांवांनी बौध्द शिलालेख मेळळयात.

**गुप्त काळांतली (इ. स. सुमार ३००-५५०) ब्राह्मी लिपी :** गुप्त काळांत जी ब्राह्मी लिपी प्रचलीत आशिल्ली ते लिपीक 'गुप्त लिपी' हें नांव आशिल्लें. गुप्ताच्या काळांतले परिव्राजक, राजर्षितुल्य उच्चकल्प ह्या राजवंशांतल्या राजाचीं दानपत्रां हेच लिपींत बरयल्यांत. गुप्तलिपीचे उदेंतेकडली आनी अस्तंतेकडली अशे दोन भेद आसात. गुप्त काळांत कांय अक्षरांनी नागरी अक्षरांचें आदलें स्वरूप पळोवंक मेळटा. इ. स. च्या सव्या शतमानांत उत्तर भारतांत देखीक 'ल', 'श' आनी 'ह'.

**कुटिल लिपी :** गुप्त लिपीच्या अक्षरांचेर ल्हानसो त्रिकोण आशिल्ल्यान हे लिपीक कुटिल लिपी अशें नांव पडलें. हातूंत अक्षरांमदलो उबो दांडो दावे वटेन घुंविल्लो आसून स्वरमात्रा वांकडी आनी लांब आसा. हे लिपींत मंदसोर हांगाच्या यशोधर्म्याचो लेख, बुध्दगयाचो राजा महानामन हाचो लेख, मौखरी राजाचे लेख, राजा मेरुवर्म्याचे लेख हांचो आस्पाव जाता.

जेम्स बर्जेस (१८३२-१९१६), जे. एफ्. फ्लीट (सुमार १८४७-१९१७), ब्यूलर ह्या संशोधकांनी गुप्तकाळा उपरांतचे लिपीचे उत्तरेकडले आनी दक्षिणेकडले अशे दोन भेद केल्यात. गुप्त लिपी पसून तयार जाल्ली कुटिल आनी तिचेपसून तयार जाल्ली नागरी हीच लिपी बंगाली, असमिया, कैथी, राजस्थानी, गुजराती, मैथिली, मेवाती, उडिया, आदींची जननी मानतात. तशेंच कुटिल लिपीपसून पुर्विल्ली शारदा आनी तिचेपसून हालींची काश्मिरी टाकरी आनी गुरुमुखी ह्यो लिपी आयल्यो. ही ब्राह्मी लिपी इ. स. च्या ७व्या शतमानाच्या मध्याक दक्षिणेंत पल्लव लिपी म्हणून वळखूंक लागले आनी तिचे पसून तेलुगू, कन्नड आनी मलयाळम् तशेंच ग्रंथ लिपीसयत तमीळ ह्या चार लिपींचो उदेव जालो. देखुनूच ब्राह्मी ही सगळया भारतीय लिपींची जननी मानतात.

आठव्या शतमानांत लिपीचे १) उत्तर हिंदुस्थानांतली लिपी, २) गुजरात, राजस्थान, आनी मध्य भारतांतली लिपी, ३) दक्षिणेकडली लिपी, ४) अतिदक्षिणेकडली लिपी अशे भेद दिसून आयल्यात. हांचेच दानी हाणें णव भुगोलीक भेद केल्यात. भारताच्या वेगवेगळया भागांनी जशीं जशीं वेगळीं राज्यां उदयाक आयलीं तशें तशें ह्या भागांत थळावे लिपीचें व्हडपण वाडलें आनी तातुंतल्यान सद्याचे प्रादेशिक लिपीचो उदय जालो.

गुप्तसम्राट समुद्रगुप्त हाच्या अलाहाबाद खांब्यावयली ब्राह्मी लिपी : इ. स. सुमार ४थें शतमान.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्राह्मो समाज

**ब्राह्मो समाज :** एक धर्मसुदारणावादी संस्था. निराकार, सच्चिदानंदरूप, विश्वनिर्मातो, कृपाळू, परमपवित्र एकूच एक परमेश्वर म्हळयार ब्रह्म; ताचे उपासनेखातीर म्हळयार ब्राह्म धर्माखातीर स्थापन केल्ली संस्था. २० ऑगस्ट १८२८ ह्या दिसा राजा राममोहन रॉय (१७७२-१८३३) हाणें महाराजा द्वारकानाथ टागोर, कालिनाथ रॉय आनी मथुरानाथ मलिक ह्या तीन इश्टांच्या पालवान कलकत्त्याक ब्राह्म सभा स्थापन केली. हे सभेकूच फुडें ब्राह्म समाज वा ब्राह्मो समाज अशें म्हणूंक लागले. उपरांत प्रसन्नकुमार ठाकूर, चंद्रशेखरदेव आनी रामचंद्र विद्यावागीश हे ब्राह्मो समाजांत आयले. २३ जानेवारी १८३० दिसा समाजाच्या स्वतंत्र मंदिराची स्थापना जाली. त्या मंदिराविशीं जी घोशणा केल्ली ती अशी- ह्या उपासना मंदिरांत सगळ्या विश्वाचो जनक आनी राखणकर्तो अशा एका शाश्वत, निर्विकार आनी अतर्क्य अशा परमेश्वराचीच

उपासना जातली. तशेंच हांगा खंयचीय मुर्ती, चित्र, पुतळो वा हेर कसलेंच प्रतिक दवरचेनात. पुजे निमतान वा आहाराखातीर हांगा कसल्याच जिवाची हत्या जावंची ना वा हेर खाद्य पेयांचे वेव्हार जावंचेनात, तशेंच कसल्याय पंथाच्या वा व्यक्तीच्या उपासना-पद्दतीविशीं वा मुर्तीविशीं टिका वा निंदा जातली अशें भाशण जावंचेंना जाचेवरवीं निती, भूतदया, पावित्र्य, परोपकार ह्या सद्‌गुणांची उदरगत जातली आनी सगळया धर्मांच्या आनी पंथांच्या लोकांमदीं बरेपण आनी एकचार वाडटलो असोच उपदेश आनी संवाद हांगा जातलो.

सार्वत्रिक एक धर्म करप हो ब्राह्मो समाजाचो हेत आशिल्लो.संवसारांतल्या सगळया धर्मांचें एकूच सार म्हळयार एकेश्वर भक्ती. पुराय विश्व हें परमेश्वराचें देवूळ. काळीज हेंच परमेश्वराच्या अणभवाचें दार, सत्य हेंच अविनाशी शास्त्र, विश्वव्यापी मोग होच निरपवाद नेम, जिवीत हीच उदरगतीची भोंवडी आनी मनीसजात हीच विश्वाची सोबा अशे तरेच्या विचारांक पोसवण दिवपाखातीर ब्राह्मो समाजाची स्थापना जाली. दरेका सप्तकाचे अखेरेक सांजवेळार एकठांय जमून सामूहिक प्रार्थना, प्रवचन, ध्यान आनी भक्तीसंगीत ह्यो ब्राह्मी समाजाच्यो मुखेल कार्यावळी आशिल्ल्यो.

राममोहन रॉय हाणें एकेश्वरमतवादाच्या प्रचाराखातीर कांय पुस्तकांय उजवाडायलीं. 'संवाद कौमुदी' हें नेमाळेंय सुरू केलें. दादल्या बायलांचें समानत्व आसचें हे नदरेन राममोहन रॉय हाणें बायलांचे मुक्तीखातीर आंदोलन सुरू केलें. देशभर चालू आशिल्ले 'सती' हे क्रूर चालीआड ताणें खर आवाज उठयल्ल्यान ब्रिटीश सरकाराक ही चाल बंद करपाखातीर कायदो लागू करचो पडलो. तेन्नाचो (वायसरॉय) लॉर्ड बँटिक हाणे ४ डिसेंबर १८२९ दिसा सती हे चालीचे बंदीखातीर हुकूम काडलो. राममोहन रॉय हाणें इंग्लीश शिक्षणाखातीर म्हाविद्यालय तशेंच संस्कृताच्या अभ्यासाखातीर वेदान्त म्हाविद्यालय स्थापन केलें.

२७ सप्टेंबर १८३३ ह्या दिसा राममोहन रॉय हाका इंग्लंडांत आसतनाच मरण आयलें. ते उपरांत ब्राह्मो समाजाच्या आंदोलनाचो नेट कांय काळ उणो जालो. १८४१ त राजा द्वारकानाथाचो तरनाटो पूत देवेंद्रनाथ टागोर हाणें ब्राह्मो समाजाची जापसालदारकी आपल्या आंगार घेतली.

देवेंद्रनाथान ब्राह्म धर्माचे प्रचारक शिकोवन तयार करपाखातीर तत्त्वबोधिनी पाठशाळा स्थापन केली. देवेंद्रान १८४३ त ब्राह्मो समाजाच्या वांगड्यांक बंधनकारक अशी नेमावळ तयार केली. तातूंत मूर्तीपुजेक बंदी आशिल्ली. रामचंद्र विद्यावागीश हाका समाजाचो आचार्य नेमलो. देवेंद्रनाथ आनी ताणें स्थापिल्ले पाठशाळेंत तयार जाल्ले कितलेशेच प्रचारक ब्राह्म धर्माच्या प्रसाराखातीर पंजाबापसून उदेंत बंगालमेरेनच्या वेगवेगळया मुखेल शारांनी आनी तीर्थथळांक नेमान भेट दिताले.

१८५७ त केशवचंद्र सेन हो तरनाटो ब्राह्मो समाजांत आयलो. १८५९ त सावन ताणें समाजाच्या वावराक नेटान गती हाडली. ब्राह्मविद्यालय नांवाचें धर्माध्यायनाचें एक शिक्षणकेंद्र देवेंद्रान सुरू केल्लें. ह्या विद्यालयांत केशवचंद्र सेन धर्मीक तत्त्वगिन्यानाचेर व्याख्यानां दितालो आनी देवेंद्र बंगालींत धर्माविशीं चर्चा करतालो. केशवचंद्र सेनान भारतांतल्या व्हडल्या व्हडल्या शारांक भेटी दिवन इंग्लिशींत ब्राह्मो धर्माचो प्रचार केलो. १८६० त केशवचंद्र सेन आनी ताच्या वांगड्यांनी 'संगत सभा' ह्या नांवान एक संस्था स्थापन केली. हे सभेन समाजसेवेचो आनी इंग्लीश शिक्षणाच्या प्रचाराचो मोलादीक वावर केलो. केशवचंद्राचे बुध्दीमत्तेचो प्रभाव सुशिक्षितांचेर बरोच पडलो. समाजाचे मुखेल आचार्य आशिल्ल्या देवेंद्र हाणे हें आचार्यपद स्वता जावन केशवचंद्राक दिलें. समाजांत त्या काळांत बायलांक प्रवेश नाशिल्लो. केशवचंद्रान आपले बायलेक उपासनेंत सामील केली. ताचें अनुकरण हेरांनीय केलें.

केशवचंद्र सेन हाणें ब्राह्म धर्माच्या प्रसाराखातीर सबंद भारताची भोंवडी सुरू केली. एकेश्वरवादी ब्राह्म उपासनेचो पुरस्कार करपी कांय परंपरावादी मंडळी केशवचंद्र सेनाचे गैरहजरेंत समाजाच्या आंदोलनाचेर नियंत्रण दवरूंक लागली. जानवें घालून प्रार्थना करची असो कांय परंपरावादी ब्राह्मो समाजांतल्या लोकांचो आग्रो आशिल्लो. अशा आनी हेर कांय मुद्यांचेर मतभेद जावन केशवचंद्र सेन आनी ताचे कांय फाटीराखे समाजांतल्यान भायर सरले. 'इंडियन मिरर' हें इंग्लीश नेमाळें मात केशवचंद्राच्याच हातांत उरलें. 'धर्मतत्त्व' नांवाचें नेमाळेंय ताणें बंगालींत सुरू केलें.

ह्या भायर सरिल्ल्या लोकांनी ११ नोव्हेंबर १८६६ ह्या दिसा भारतवर्षीय ब्राह्मो समाज' हे संस्थेची स्थापना केली. समाजीक आनी बौध्दीक स्वातंत्र्य ह्या तत्त्वाक मान्यताय दिवपी केशवचंद्र सेनान चिटणीसपद स्वताकडेन घेतलें. तेन्नासावन ब्राह्मो समाजाच्यो दोन स्वतंत्र संघटना जाल्यो. देवेंद्रनाथ जे संघटनेचो मुखेल आचार्य आशिल्लो ताका 'आदि ब्राह्मो समाज' आनी केशवचंद्राचे संघटनेक 'भारतवर्षीय ब्राह्मो समाज' अशें नांव पडलें.

रोसाळ उलोवप, पावित्र्याची भावना आनी भक्तीसंप्रदायाची प्राचरसाधना ह्या तीन गजालींक लागून केशवचंद्र सेन हो एक म्हान धर्मगुरू म्हणून नामनेक पावलो. ब्राह्म धर्मांत गुरुपुजेचोय आस्पाव जालो. १८६९त केशवचंद्र सेन इंग्लंडाक गेलो. थंय इंग्लीश समाजाकडल्यान ताका बरो येवकार मेळ्ळो. महाराणी व्हिक्टोरियाकूय तो मेळ्ळो. इंग्लंडासावन परत येतकच ताणें द इंडियन रिफॉर्म असोसिएशन ची स्थापना करून समाजकार्याचो वावर सुरू केलो. चलयांखातीर शाळा, भुरग्यांखातीर उद्देगप्रशाला आनी सुलभ समाचार हें बंगाली सातोळें ताणें सुरू केलें. आंतरजातीय लग्नां आनी विधवांचीं लग्नां हांकां कायदेशीर मान्यताय मेळोवपाखातीर १८७२ त 'ब्राह्म मॅरज ॲक्ट' ब्रिटीश

शासनाकडल्यान संमत करून घेतलो.

केशवचंद्राच्या हातांतल्यान ब्राह्म धर्माआड एक गुन्यांव घडलो. कुचबिहार संस्थानाच्या १५ वर्सांच्या राजकुंवराक आपली १३ वर्सांची चली दिली आनी हो लग्नसुवाळो परंपरागत हिंदू पद्दतीन घडोवन हाडलो. सुशिक्षीत हिंदूंकडल्यान ताची खूब नालस्ती जाली. १८७८ त कितलेशेच ब्राह्मो समाजी वावुरपी प्रचारक आनी इश्ट ताचेपसून पयसावले.

ह्या वेगळया जाल्ल्या लोकांनी 'साधारण ब्राह्मो समाज' हे नवे संस्थेची स्थापना केली. २२ जानेवारी १८८१ दिसा साधारण ब्राह्मो समाजाच्या मंदिराचें कलकत्त्याक उक्तावण जालें. पंडित शिवनाथ शास्त्री हाणें ह्या समाजाचें फुडारपण केलें. ह्या साधारण ब्राह्मो समाजान बायलांच्या शिक्षणाचेर भर दिल्लो. आदि ब्राह्मो समाजाचे वयर जे स सिध्दांत सांगिल्ले तातूंत आनिकूय तीन सिध्दांतांची भर पडली. ते अशे : १) ईश्वर हो सगळया मनशांचो बापूय आनी सगळे मनीस हे भाव. २) आत्मो अमर आसा आनी ताची उदरगत एकसारकी जायत आसता. ३) देव पुण्य आचरणान प्रसन्न जावन कृपा करता आनी पातक्यांक ख्यास्त करता.

८ जानेवारी १८४४ दिसा केशवचंद्र सेन संवसाराक अंतरलो. ताचेउपरांत मात संस्थेच्या वावराचो नेट उणो जायत गेलो. केशवचंद्राची सुवात घेवपाक कोणूच पात्र ना, अशें सगळयांक दिशिल्ल्यान ताची सुवात रितीच उरली.

भारतीय ब्राह्मो समाजाचेच सादारण ब्राह्मो समाज आनी केशवचंद्र सेनाचो 'नवविधान समाज' अशे दोन भाग जाले. केशवचंद्र सेनाच्या नवविधान पंथान धर्मीक उपासनामार्गाचो पुरस्कार केलो, जाल्यार साधारण ब्राह्मो समाजांत समाजसेवा आनी समाज सुदारणा हांचेर चडसो भर दिलो. ब्राह्म इतिहासकार पंडित शिवनाथ शास्त्री आनी आनंदमोहन बोस ह्या हुशार आनी देशभक्त द्वयीचें फुडारपण साधारण ब्राह्मो समाजाक मेळ्ळें. सुरवातीचे पिळगेंतल्या ब्राह्मो समाजी ईश्वरचंद्र विद्यासागराची समाजसुदारणेची परंपरा ताणें फुडें चलयली.

बायलांचें शिक्षण हो ब्राह्मो समाजाचो आवडीचो विशय. तत्त्वकौमुदी, इंडियन मॅसेंजर, संजीवनी, वामबोधिनी, मुकुल, मॉडर्न रिव्ह्यू, प्रवासी, सुप्रभात, सेवक, महिला, सोपान ह्या नेमाळयांवरवीं लोकशिक्षणाचें काम केलें. कृष्णकुमार मित्र, पं. सीतानाथ तत्त्वभूषण, नगेंद्रनाथ चतर्जी, धीरेंद्रनाथ चौधरी, हेमचंद्र सरकार हांचेसारक्या कितल्याशाच विद्वानांनी इतिहासीक, धर्मीक आनी हेर विशयांवयलें साहित्य उजवाडायलें. रवींद्रनाथ टागोर ह्या ब्राह्मो समाजी कवीन संवसारभर नामना मेळयली.

ब्राह्मो समाजाचे कितलेशेच फांटे महाराष्ट्रांत आनी गुजरातांत स्थापन जाल्ले. ब्राह्मो समाजाच्या आंदोलनावरवीं एकुणिसाव्या शतमानांत बंगाल आनी उदेंत भारतांत समाजप्रबोधनाचो मोलाचो वावर जालो. ब्राह्मो समाजाच्या आंदोलनाचो नेट विसाव्या शतमानांत जरी उणो जालो तरी आर्विल्या भारताच्या आर्विल्ल्या विचारांचो मूळ उगम ब्राह्मो समाजाच्या आंदोलनांत सांपडटा.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्रीआं, आरीस्तीद :

(जल्म : २८ मार्च १८६२, नँट्स (अस्तंत फ्रांस); मरण : ७ मार्च १९३२, नॉर्मंडी-फ्रांस).

फ्रेंच मुत्सद्दी, फ्रांसाचो प्रधानमंत्री आनी संवसारीक शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो सहमानकरी. मुळावें शिक्षण नँट्साक जालें. फुडलें शिक्षण पब्लिक स्कुलांत घेवन ताणें पॅरिसांत कायद्याचें शिक्षण घेतलें आनी वकिलीक सुरवात केली. कामगाराचे हक्क, संप आनी हेर राजकीय घडामोडी हांचेविशींचीं मतां तो 'द पीपल', 'लँटर्न', 'रिपब्लिक' नेमाळयांतल्यान पोटतिडकीन मांडटालो. नँटसांतले कामगारांचे कॉंग्रेसींत (१८९४) 'सार्वत्रिक संप' हें प्रभावी राजकी तंत्र आसा, ही गजाल ताणें फ्रेंच समाजवादी फुडाऱ्यांक पटोवन दिली, पूण ताका लागून नेमस्त समाजवादी आनी जहाल मार्क्सवादी हांचेमदले मतभेद आनिकूय वाडले. ताणें संसदेच्या तीन वेंचणुकांनी (१८८९,१८९३ आनी १८९८) अपेस येतकच समाजवादी पक्षाचें सरचिटणीसपद घेतलें (१९०१).

तेंउपरांतचे वेंचणुकेंत तो ल्वार प्रांतांतल्यान संसदेचेर वेंचून आयलो आनी फुडें अखेरमेरेन तो संसदेचो वांगडी आशिल्लो (१९०२-३२). ह्या काळांत ताणें प्रधानमंत्री (११ खेपे), परराश्ट्रमंत्री (१४ खेपे) आनी शिक्षण मंत्री ह्या उंचेल्या पदांचेर काम केलें. २६ वर्सांचे राजकीय कारकीर्दीत ताणें खूब सुदारणां केल्ल्यो आनी कामगारांचें कल्याण करपाखातीर मोलादीक वावर केलो.

सुरवेक ताणें इगर्ज आनी शासनसत्ता हांकां वेगळावपी अधिनेमांचो मसुदो तयार केलो (१९०५). हो कायदो चालीक लावपाखातीर १९०६ त ताची मंत्री म्हणून नेमणूक जाली (१९०६). प्रधानमंत्री जातकच (१९०९-१०) ताणें राश्ट्राची मुखेल समस्या जाल्लो संकलीत रेल्वे कर्मचारी संप व्हड कसबान हाताळ्ळो. पयल्या म्हाझुजा वेळार फ्रांसाक बाल्कन झुजांत अपेस आयलें, तेन्ना तो परराश्ट्रमंत्री आशिल्लो. आंतरराश्ट्रीय शांततायेचो पुरस्कार करपाखातीर ताणें जर्मनीकडेन सहकार करपाखातीर एक स्वतंत्र लोकार्नो कबलात (१९२५) घडोवन हाडली आनी जर्मनी आनी ताचे म्हाझुजांतले दुस्मान हांच्यांतले संबंद सुदारपाचो यत्न केलो. तशेंच अमेरिकेच्या फ्रँक बिलिंग्ज कॅलॉग ह्या परराश्ट्रीय सचिवाच्या पालवान झूज करचें न्हय म्हणपाची इतिहासीक केलॉग-ब्रीआं कबलात (२७ ऑक्टोबर १९२८) चालीक लावन तातूंत सुमार ६० देशांक घेतले आनी झूज करचें न्हय अशें धोरण ह्या देशांनी आपणावचें, असो उलो दिलो. हे कबलातीक येस आयलेंना, पूण ताच्या ह्या शांततायेच्या

वावराखातीर जर्मनीचो परराष्ट्रमंत्री गुस्टाव्ह श्ट्रेझमान हाचेवांगडा ताका १९२६ वर्साचो संवसारीक शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो.

युरोपांत सहजीवन सहकार्य आनी शांतताय नंदची, म्हणून ताणें फॅडरल युनियन ऑफ युरोपची कल्पना मांडून तिचो प्रसार केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्रुण्डट्लँड, ग्रो हार्लेम : (जल्म : १९३९).

नॉर्वे देशाची पयली बायल प्रधामंत्री. ती वेवसायान दोतोर आशिल्ली. फेब्रुवारी १९८१त ऑद्वार नॉड्ली दुयेंत पडिल्ल्यान ताका प्रधानमंत्री पदाचो राजिनामो दिवंचो पडलो. तेन्ना लेबर पक्षाची ग्रो ही अध्यक्षा आशिल्ल्यान ती प्रधानमंत्री जाली. सप्टेंबर १९८१ त जाल्ले वेंचणुकेंत लेबर पक्षाचेर हार पडली.पूण १९८६ चे वेंचणुकेंत लेबर पक्षाक भोवमत मेळिल्ल्यान ग्रो परतून प्रधानमंत्री जाली, त्या वेळार तिच्या मंत्रीमंडळात आठ बायलांचो आनी णव दादल्यांचो आस्पाव आशिल्लो. नॉर्वेच्या मंत्रीमंडळांत बायलांचो इतलो व्हड आंकडो आशिल्लें हें पयलेंच मंत्रीमडळ आशिल्लें. १९९० चे वेंचणुके वेळार तिणें लेबर पक्षांतल्या वट्ट सुवातींतल्यो ४०% सुवाती बायलांक राखीव दवरिल्ल्यो. ते वेंचणुकेंत लेबर पक्षाक भोवमत मेळून तातूंत ३४% खासदार बायलो आशिल्ल्यों. तिची परतून प्रधानमंत्री म्हणून नेमणूक जाल्ली, त्या वेळार तिच्या १९ वांगड्यांच्या मंत्रीमंडळांत णव बायलांचो आस्पाव आशिल्लो. एकवटीत राश्ट्रांनी आखिल्ल्या वातावरण आनी उदरगत समितीची अध्यक्षा म्हणून तिणें वावर केला. शांती, निशस्त्रीकरण आनी उदरगत ह्या क्षेत्रांनी तिणें व्हड वावर केला. देखून १९८९ त तिका इंदिरा गांधी आंतरराश्ट्रीय पुरस्कार भेटयला.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्रुनाई :

**ब्रुनाई :** बोर्निओ जुंव्याच्या वायव्य वाठारांतलें ब्रिटीश रक्षीत इस्लामी राज्य. अक्षवृत्तीय आनी रेखावृत्तीय विस्तार अनुक्रमान ४°२' उत्तर ते ५°३' उत्तर आनी ११४°४' उदेंत ते ११५°२२' उदेंत. क्षेत्रफळ ५,७६५ चौ. किमी. ह्या राज्याक उत्तरेकडेन दक्षिण चीनी दर्याची १६० किमी. लांबायेची दर्यादेग आसून हेर सगळया वटांनी ह्या राज्याक मलेशियाच्या सारावाक ह्या राज्यान रेवडायल्लें आसा. सारावाक राज्यांतल्या १३ ते ५२ किमी. रुंदायेच्या लिंबांग ह्या न्हंयेदेगणान हें राज्य दोन भागांनी विभागिल्लें आसा. ताका लागून अस्तंतेकडेन आशिल्ल्या तीन जिल्ह्यांपसून टेंबुरॉंग हो उदेंतेकडलो जिल्हो वेगळो पडला. बांदार सेरी बगावन हें आदलें ब्रुनाई ही ह्या राज्याची राजधानी.

**भूंयवर्णन :** राज्यांतलो चडसो भाग दोंगराळ आनी खडबडीत. कांयकडेन ह्या वाठाराची उंचाय १२२०मी. आसून अस्तंतेकडल्या वाठारांत सुमार ३९६ मी. उंचायेच्यो लाबी दोंगुल्ल्यो आसात. टेंबुरॉंग जिल्ह्याचो दक्षिणेकडलो चडसो वाठार दोंगराळ आसा. बालाइट, टूटॉंग, ब्रुनाई आनी टेंबुरॉंग ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो आसून तांचेर उदका येरादारी चलता. बालाइट ही हांगाची सगळयांत लांब न्हंय.

हांगाचें हवामान उश्ण आनी दमट आसून राज्याच्या सकयल्या वाठारांत वर्सुकी पावस २८०सेंमी. आनी उंचायेच्या वाठारांत ३८० सेंमी. परस चड आसता. चड करून हो पावस नोव्हेंबर ते मार्च ह्या काळांत ईशान्य मोसमी वाऱ्यापसून पडटा. वर्सुकी सरासरी तापमान २७°से. आसता.

राज्याचो ७५% भाग उश्ण कटिबंधीय रानांनी व्यापिल्लो आसून घट लांकडाचीं झाडांच हांगा चड आसात. रानांत वाग, शींव, माकड आदी प्राणी तशेंच वेगवेगळया प्रकारचे पक्षी, जीव, शेड्डे, जिवाणीं आसात.

**इतिहास :** इ. स. ५१८ सावन चीनी वेपाऱ्यांचो ब्रुनाईकडेन वेपार चलताले आसुंये. त्या वेळार ह्या राज्याचो 'पुनी' असो उल्लेख केल्ल्याचो संदर्भ मेळटा. सातव्या आनी तेराव्या शतमानाच्या काळांत श्रीविजय (सुमात्रा) आनी मजपहित (जावा) ह्या भारतीय संस्कृतायेची छाप आशिल्ल्या राजसत्तांनी आपली सत्ता ब्रुनाईच्या वाठारांत पातळायली. सुंग राजघराण्याचे कारकिर्दींतले बखरीप्रमाण ९७७ आनी १०८२त ब्रुनाईन चीनी बादशाहाक खंडणी धाडिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. पंदराव्या शतमानांत श्रीविजय आनी मजपहित ह्या राजसत्तांचो अस्त जालो तेन्ना ब्रुनाईचें इस्लामीकरण जालें आनी थंय सुलतानशाहीची स्थापना जाली. १५८०त स्पेनी लोकांचें राज्य आयलें. १६०० त पुर्तुगेजांनी ब्रुनाई शारांत वेपारी वखारीची आनी रोमन कॅथलिक मिशनाची स्थापना केली. सतराव्या शतमानाचे सुरवेक युरोपी वेपारी आनी धाडसी भोंवडेकार ह्या जुंव्यार परत परत येताले. स्पॅनिशांनी दोन फावट हाचेर घुरीय घाल्ली. जशी जशी हांगा पुर्तुगेज, हॉलंडी आनी स्पॅनिशांची सत्ता वाडत गेली. तशी सुलतानशायेचो अस्त जावंक लागलो. एकुणिसाव्या शतमानाचे सुरवेक सारावाक आनी साबाचे कांय वाठार हांचेरूच ब्रुनाईच्या सुलतानाची सत्ता उरली. सारावाकांतल्या मले आनी खुष्की दायाक ह्या लोकांनी १८३९ त ब्रुनाईआड बंड केलें. तेन्ना त्या वेळार प्रधानमंत्री म्हणून काम करपी राजा मुडा हसिम हाका हें बंड मोडून काडपाक अपेस आयलें. तेन्नाच थंय आयिल्ल्या (ऑगस्ट १८३९) जेम्स ब्रुक ह्या इंग्लिशाक ताणें हें बंड मोडून काडपाविशीं विनयलें. ते बदलाक ताणें ताका 'राजा' हो किताब दिलो आनी सारावाकांतली लुंडू, बाऊ आनी कूचिंगची सत्ता दिली. उपरांतच्या चार दशकांमदी ल्हव ल्हव करून सुलतानाची सारावाकांतली सत्ता उणी जाली आनी थंय ब्रिटिशांचो अधिकार वाडत गेलो. १८८८-१९५९ ह्या काळांत ब्रुनाईच्या सुलतानाची पत सामकीच उणी जाली.

१९३१ पसून हांगा तेल उत्पादनाक सुरवात जाली. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत ह्या वाठाराचेर जपानाचो शेक आयलो आनी तेलाच्यो बांयो आनी रबरीचे मळे हांचें बरेंच लुकसाण जालें. जून १९४५ त ह्या वाठाराचेर ऑस्ट्रेलियाची सत्ता आयली. पूण १९४६ त हांगा ब्रिटीश नागरी प्रशासनाची परत स्थापना जाली.

ब्रिटिशांकडले वेपारी संबंद वाडोवपाखातीर आनी हांगाची चांचेगिरी नश्ट करपाखातीर ब्रुनाईचो सुलतान आनी ग्रेट ब्रिटन हांचेमदीं १८८८, १९०६ आनी १९४६ ह्या वर्सांनी ज्यो कबलाती जाल्यो तांकां लागून ब्रुनाईच्या राज्य-कारभारांत ब्रिटिशांची पत ल्हव ल्हव वाडत गेली. १९५९ त ब्रुनाईचें प्रशासन सारावाकापसून वेगळें करून ब्रुनाईखातीर ब्रिटीश उच्च आयुक्ताची नेमणूक केली. ह्याच वर्सा सुलतानान राज्याची पयली लिखीत राज्यघटना जाहीर केली. तेप्रमाण प्रशासनाखातीर प्रिव्ही काउन्सिल मंत्रीपरिशद (कार्यकारी परिशद), विधान परिशद, धर्मीक परिशद, उत्तराधिकार परिशद अशा पांच परिशदांची स्थापना केली.

१९५९च्या त्या संविधानाप्रमाण ब्रुनाईच्या सुलतानाचो अधिकार परत वाडलो. नव्या संविधानाप्रमाण डिसेंबर १९६२ त पयली वेंचणूक जाली. त्या वेळार ब्रुनाई, उत्तर सारावाक आनी सावादाचे दक्षिणेक सशस्त्र उठाव जालो. १९७१ त ग्रेट ब्रिटनान ब्रुनाईक भितरल्या स्वयंशासनाचो अधिकार दिवन परराष्ट्रीय वेव्हाराची जापसालदारकी आपलेकडेन दवरली. ब्रुनाईची चार जिल्ह्यांनी विभागणी केल्या. ब्रुनाईचो सुलतान सर मुदा हसनल बोलकेह आनी ब्रिटीश शासन हांचेमदीं जून १९७८ त जाल्ले वाटाघाटी प्रमाण आनी ७ जानेवारी १९७९ त जाल्ले कबलातीप्रमाण १९८३ त ब्रुनाईंतली ब्रिटिशांची सत्ता वचून तो एक स्वतंत्र आनी सार्वभौम देश जालो. पिपल्स इंडिपेंडन्स फ्रंट (स्थापना - १९६६) हो हांगाचो मुखेल पक्ष.

न्यायदानाखातीर सर्वोच्च न्यायालय, उच्च न्यायालय, अपील न्यायालय, तशेंच प्रथम, द्वितीय आनी तृतीय श्रेणींचीं दंडाधिकारी न्यायालयां आसात. मुसलमानांचीं लग्नां, तलाक आदी धर्माविशींच्या न्यायदानाखातीर स्वतंत्र न्यायालय आसा.

ह्या देशाक संरक्षणाविशींचो सल्लो ग्रेट ब्रिटन दिता. 'रॉयल ब्रुनाई मले रेजिमेंट' ही राखण संस्था हांगा आसा. हांगाची राखणेवेवस्था भूसेनादल, नाविकदल आनी हवाईदल हीं सगळया आर्विल्ल्या शस्त्रास्त्रांनी सुसज्ज आसा.

**अर्थीक स्थिती :** ब्रुनाईची अर्थवेवस्था थंयच मेळपी खनीज तेल आनी सैमीक वायू हे सैमीक साधना सामुग्रेचेर चलता. १९२९ त हांगा खनीज तेलाचो पयलो सोद लागलो. वट्ट कामकरी लोकांमदीं ७% परस चड लोक तेल उद्देगांत आसात. खनीज तेल हें राज्याचे येणावळीचें मुखेल साधन. ब्रिटीश राश्ट्रकुळांतलो हो सगळयांत चड तेल उत्पादक वाठार. हांगाचें चडशें खनीज तेल निर्यात जाता. पूण कांय प्रमाणांत हें तेल सारीआक शुध्द करून थंयच वापरतात. सैमीक वायूच्या उत्पादनाखातीर संवसारांत ब्रुनाईची नामना आसा. सारीआ हें हांगाचें मुखेल तेलकेंद्र आसून तें नळमार्गान टूटाँग ह्या वाठाराक जोडलां. अशुध्द खनीज तेल नळमार्गान सारावाकांतल्या टूटाँग, मिरी हांगाच्या तेल शुध्दीकरण केंद्राकडेन व्हरतात. हांगाचो तेलावेव्हार 'ब्रुनाई शॅल पॅट्रोलियम कंपनी' पळयता. लुमूटचो सैमीक वायूचें द्रवीकरण करपाचो प्रकल्प हो सवसारांतलो सगळयांत व्हड प्रकल्प मानतात. ब्रुनाईंतले हेर उद्देग म्हळ्यार बोटी बांदप, विणकाम, तांब्याचीं आनी रुप्याचीं आयदनां करप हांचेवरवीं चलता.

ह्या राज्याचो १०% वाठार शेतीखातीर वापरतात. राज्याची अन्नधान्याची गरज चड करून आयातींतल्यानूच भागयतात. तांदूळ, टॅपिओका, अनस, केळीं, ऊंस, शाबूदाणे हीं हांगाचीं मुखेल शेतकी उत्पादनां आसून सद्या हांगा काफी, कोको, नाल्ल, तंबाकू, फळां, भाजयो हांचेंय उत्पादन काडटात. आदल्या तेंपार रबरीपसून ह्या राज्याक परकी चलन मेळटालें. पूण आतां ताचें म्हत्व उणें जालां. रबर, मिरीं, लांकूड, बूच हीं हांगाची मुखेल रान उत्पादनां. हांगाच्या लोकांच्या जेवणांत नुस्त्याक खूब म्हत्व आसा. ग्रेट ब्रिटनच्या 'व्हायट फिश ऑथॉरिटी' कडल्यान हांगाच्या खोल दर्यांत नुस्तेमारीची उदरगत करप जाता. हांगाच्या ४०४.७ हॅ. ह्या क्षेत्रांत एक मत्स्यसंवर्धन आनी सुंगटां संवर्धन क्षेत्र तायर करपाची येवजण आसून, आशियांतलें तें सगळयांत व्हड क्षेत्र आसा. ह्या वाठारांत कोंबड्यो पोसप, दुकरां पोसप ह्या सारकेय वेवसाय चलतात.

हांगाचे तेल आनी सैमीक वायूचे निर्यातींत सतत वाड जायत आसा. ही निर्यात चड करून जपान, अमेरिका, सिंगापूर, तायवान, सारावाक जाल्यार आयात जपान, सिंगापूर, अमेरिका आनी ग्रेट ब्रिटना कडल्यान करप जाता. तशेंच हांगा अन्नधान्य, निर्मिती वस्तू, यंत्रां, येरादारीचीं साधनां हांची बी आयात करप जाता. तांदूळ हें हांगाचें मुखेल आयात धान्य आसून तें चड करून थायलंडच्यान आयात करतात. हांगाचो वेपार युरोपी आनी चीनी अभिकरण गृहांकडल्यान तशेंच चीनी वेपाऱ्यांकडल्यान चलयतात. चवथे पांचवर्सुकी राश्ट्रीय विकास येवजणेंत लोकांचे अर्थीक, समाजीक आनी संस्कृतीक उदरगतीक म्हत्व दिल्लें आसा.

ब्रुनाई डॉलर हें हांगाचें चलन आसून तें जून १९६७ पसून चालीक लायलां. ताचेपयलीं मलायन डॉलर हें चलन आशिल्लें. १,५,१०,२०, आनी ५० सेंटांचीं नाणी आनी १,५,१०,५० आनी १०० ब्रुनाई डॉलरांच्यो नोटी आसतात. १०० सेंटाचो १ब्रु. डॉलर जाता. बांदार सेरी बगावनाक नॅशनल बँक ऑफ ब्रुनाई ही बँक आसा. अमेरिका आनी मलेशिया हांच्यो दर एकी दोन आनी ग्रेट बिटन, सिंगापूर हांची दर एकी एक बँक आसा.

ह्या राज्यांत राजधानी बांदार सेरी बगावान, सारीआ, क्वाला बालायट ह्या तेल शारांक आनी टूटाँगाक मुखेल रस्त्यांनी जोडलां. हांगा भौशिक रेल्वेमार्ग ना. ब्रुनाई शेल पॅट्रोलियम कंपनीकडल्यान सारीआ-बादास मदीं रेल्वेमार्ग येरादारी करप जाता. हांगा उदका येरादारीक चड म्हत्व आसा. बांदार सेरी बगावान आनी क्वाला बालायट हीं हांगाचीं न्हंयेवयलीं मुखेल बंदरां. सिंगापूरच्या द स्ट्रेट्स स्टिमशिप कंपनीकडल्यान ब्रुनाई, सिंगापूर आनी मलेशिया हांचेमदीं नेमान प्रवासी येरादारी चालू आसता. तेभायर हाँगकाँग, सारावाक, साबा हांचेमदींय उदका येरादारी चलता. बांदास सेरी बागवानाक आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. अंदुकी हांगा खासगी विमानतळ आसून तो ब्रुनाई शॅल पॅट्रोलियम कंपनीकडल्यान चलोवप जाता. मलेशिया, सिंगापूर, बँकॉक, मानिला, हाँगकाँग, अस्तंत ऑस्ट्रेलिया, ग्रेट ब्रिटन, हांचेकडेन ब्रुनाईची हवाई येरादारी चलता. हवाई येरादारीची ही सेवा 'रॉयल ब्रुनाई ॲरलायन्स (RBA), सिंगापूर ॲरलायन्स, कॅथे पॅसिफिक ॲरवेस, ब्रिटीश ॲरवेस ह्यो कंपनी करतात.

**लोक आनी समाजजीण :** राज्यांत सुमार ३६९००० लोकसंख्या आसून हातूंत सुमार ५५.५% लोक मले, २५.५% चीनी, १२% मूळ देशवारीय आनी ७% इबान, कदाझान, युरोपी ह्या वंशांचे लोक रावतात. हांगाचे चडशे लोक इस्लाम धर्माचे आसून कांय किरिस्तांव आनी बौध्द धर्माचे आसात. राज्याच्या भितरल्या भागांत लोकसंख्या पातळ आसून थंय चडशे मूळ लोक रावतात. दर्यादिगे वाठारांतले आनी न्हंये-देगणांतले मले, इबान, कादाझान आनी चीनी हे लोक स्थायी स्वरुपाची शेती करपी आसात. तांचीं घरां लाकडी वा कोंड्यांचीं, तणाच्या पांख्यांचीं आनी जमनीपसून ऊंच बांदिल्लीं आसात. ते भात, मिरीं, आनी सागो हांचें पीक काडटात. तांच्या घरा भोंवतणीं माड आनी फळझाडां आनी कांय प्रमाणांत रबरीची लागवड करतात. देगेवयल्या वाठारांत नुस्त्याचो वेवसाय चलता. राजधानींतली काम्पूंग अयेर हीं पोरन्या वाठारांतलीं कोंड्याचीं घरां ब्रुनाई न्हंयेपात्रांत बांदिल्लीं आसून तीं एकामेकांकडेन ल्हान ल्हान व्हड्यांनी आनी सांकवमार्गान जोडिल्लीं आसात.

हांगा मले, इंग्लीश आनी चीनी ह्या तीन भाशांनी शिक्षण दितात. मले माध्यमाच्यो सगळ्यो शाळा सरकारी जाल्यार इंग्लीश माध्यमाच्यो सरकारी आनी खाजगी आसात. हांगा कांय धर्मीक शाळाय चलयतात.

ह्या राज्यांतल्यान बोर्निओ बुलेटिन (इंग्लीश सातोळें), मले, इंग्लीश आनी चीनी भाशेंतलीं 'पोलेतो ब्रुनाई' (सातोळें), 'सालम' (पंद्रशी नेमाळें) आनी इंग्लीश मले भाशेंतलीं पेट्रोलियम द ब्रुनाई हीं दिसाळीं उजवाडा येतात.

राजधानी बांदार सेरी बगावन हें हांगाचें मुखेल शार आनी बंदर आसून ब्रुनाई न्हंयेसावन भितर १४.५ किमी. अंतराचेर तें वसलां.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्रेल लिपी :** कुड्ड्यांखातीर तयार केल्ली ठळक टिंबांची लिपी. फ्रेंच शिक्षक ल्वी ब्रेल हो हे लिपीचो जनक. तो तीन वर्सांचो आसतनाच ताच्या दोळयाक दुखापत जावन ताका कुड्डेंपण आयिल्लें. चार्ल्स बार्बिआ ह्या फ्रेंच सैनिकी अधिकाऱ्यान ठळक टींब आनी रेगो हांच्या आदारान रणावयल्या रातच्या संदेश वहनाखातीर एक लिखाण पद्दत तयार केली. ल्वी ब्रेल हाका ताणें हे पद्दतीच्या आदारान कुड्ड्यांक वाचपाक येतलें अशी एक लिपी वा लिखाणपद्दत सोनोग्राफी स्पश्ट करून सांगली. तातुंतूच सुदारणा करून ब्रेल हाणें कुड्ड्यांखातीर १८२४ त एक स्वतंत्र लिपी तयार केली. रॉबर्ट मून हाणें तयार केल्ले लिपींत ठळक ओळी वापरतात. फुडें निळकंठराव छत्रपती हाणें देवनागरी लिपीक आदारीत ब्रेल करपाचो वावर केलो. हे लिपींत स ठळक टिंबांचो एक संच वापरतात. तातूंत तीन बिंदू आशिल्ल्या उब्या दोन रांकांनी बिंदुंची रचना केल्ली आसता. दर एका बिंदुंची सुवात अशे तरेन सुचीत करतात.

१ • • ४
२ • • ५
३ • • ६

हे तरेन दावे आनी उजवे वटेनच्या ओळींतल्या बिंदुंचो अनुक्रम १,२ आनी ३ तशेंच ४,५ आनी ६ हांचो बिंदू क्रमांक म्हणून निर्देश करतात. ह्या बिंदुंच्या स्थानसापेक्ष उपेगांतल्यान वा तांच्या रिक्त स्थानाप्रमाण ६३ संकेतचिन्नां तयार जातात. बोटाच्या पयल्या पेरान एका संचांत खंयचे ओळींत कितले बिंदू आसात वा खंयची सुवात रिती आसा हें जाणून घेवन ताचेवयल्यान वाचन करतात.

१९४८ वर्सा युनॅस्कोन ब्रेल संकेतांचो समन्वय केलो. भारतांतल्या १४ मुखेल भाशांखातीर एक समन्वीत ब्रेल पद्दत तयार केल्या. अंधकल्याण संघाचो व्हड कार्यकर्तो आनी एक संस्थापक अल्पाईवाला हाणें रोमन ब्रेल लिपीवयल्यान भारतीय ब्रेल लिपी तयार केली. ही लिपी मागीर अंधकल्याण संघावतीन मुंबय उजवाडाक हाडली. हे लिपींत अक्षरलेखन, अंकलेखन हांचे वांगडाच गणित, वेगवेगळ्या प्रकारांचीं विज्ञानां हातूंतल्या वेगवेगळया प्रकारचीं चिन्नां दाखोवं येतात. ब्रेल लेखनाखातीर विशिश्ट प्रकारची पाटी, टोचो (स्टायलस) आनी कागद आदी साधनां वापरतात. ब्रेल टंकलिखाणा- खातीर टंकलेखन यंत्रावरी यंत्रां उपलब्ध आसात. ह्या ब्रेल यंत्रावरवीं ब्रेल लिपींत बरप करतात. १९६१ त कुड्ड्यांचे एके अमेरिकन मुद्रण प्रकाशन संस्थेन वर्ल्ड बुक एन्सायक्लोपिडिया हो विश्वकोश ब्रेल लिपींत हाडपाचो येसस्वी यत्न केला. ताचे १४५ खंड आसून वजन सुमार ३२० किग्रॅ. आनी उंचाय ११३मी. आसा.

देवनागरी ब्रेल लिपीचो तक्तो :-

स्वर / व्यंजनां (बिंदु क्र.)

| स्वर | बिंदु क्र. |
|---|---|
| अ | १ |
| आ | ३,४,५, |
| इ | २,४ |
| ई | ३,५ |
| उ | १,३,६ |
| ऊ | १,२,५,६ |
| ए | १,५ |
| ऐ | ३,४ |
| ओ | १,३,५ |
| औ | २,४,६ |
| अं | ५,६ |
| अः | ६ |

| व्यंजनां | बिंदु क्र. | व्यंजनां | बिंदु क्र. | व्यंजनां | बिंदु क्र. |
|---|---|---|---|---|---|
| क | १,३ | ढ | १,२,३,४,५,६ | म | १,३,४ |
| ख | ४,६ | ण | ३,४,५,६ | य | १,३,४,५,६ |
| ग | १,२,४,५ | त | २,३,४,५ | र | १,२,३,५ |
| घ | १,२,६ | थ | १,४,५,६ | ल | १,२,३ |
| च | १,४ | द | १,४,५ | व | १,२,३,६ |
| छ | १,६ | ध | २,३,४,६ | श | १,४,६ |
| ज | २,४,५ | न | १,३,४,५ | ष | १,२,३,४,६ |
| झ | ३,५,६ | प | १,२,३,४ | स | २,३,४ |
| ट | २,३,४,५,६ | फ | २,३,५ | ह | १,२,५ |
| ठ | २,४,५,६ | ब | १,२ | ळ | ४,५,६ |
| ड | १,२,४,६ | भ | ४,५ | क्ष | १,२,३,४,५ |
| | | | | ज्ञ | १,५,६ |

| अंक | बिंदु क्र. |
|---|---|
| १ | १ |
| २ | १,२ |
| ३ | १,४ |
| ४ | १,४,५ |
| ५ | १,५ |
| ६ | १,२,४ |
| ७ | १,२,४,५ |
| ८ | १,२,५ |
| ९ | २,४ |
| १० | २,४,५ |

| विराम चिन्नां | बिंदु क्र. |
|---|---|
| पूर्ण विराम . | २,५,६ |
| स्वल्प विराम , | २ |
| अर्द विराम ; | २,३ |
| प्रस्न चिन्न ? | २,३,६ |
| उद्गार चिन्न ! | २,३,५ |
| अवतरण चिन्न सुरू " | २,३,६ |
| अवतरण चिन्न बंद " | ३,५,६ |
| कंस सुरू आनी बंद ( ) | २,३,५६ |
| डॅश – | ३,६ |

- कों. वि. सं. मं.

## ब्रोकर, गुलाबदास हरजीवनदास

: (जल्म : २० सप्टेंबर १९०९, पोरबंदर, सौराष्ट्र (गुजरात).

आर्विल्लो गुजराती लेखक आनी समिक्षक. मुंबय विद्यापिठांत ताणें बी. ए. (१९३०) मेरेन शिक्षण घेतलें. १९३२-३३ त सुटके चळवळीच्या काळांत ताणें कायदेभंग चळवळींत वांटो घेतिल्लो. तेखातीर ताका १६ म्हयने बंदखण भोगची पडली. १९३३ सावन तो वायदे-बाजाराचो दलाल आशिल्लो. १९६४ त तो ह्या वेवसायांतल्यान निवृत्त जालो.



गुजराती साहित्यांत कथाकार म्हणून ताका म्हत्वाची सुवात आसा. गुजरातींत मनोविश्लेशणाचेर कथेची सुरवात ताणें केल्ली. सादें-सरळ लिखाण आनी दीसपट्ट्या घडणुकांचें चित्रण करपी ताच्यो कथा, मानवी मनाचे खोलायेचो सोद लावपाचो यत्न करतात. महानगरांतल्या उच्च-मध्यम वर्गातल्या तरनाट्या दादले-बायलांचे प्रस्न (चड करून लैंगिक) ताणें आपल्या कथांवरवीं हाताळळयात. ताच्या एकाकींतल्यान होच विशय स्पश्ट दिसता. ताणें आवय आनी भुरगीं ह्याय विशयाचेर कांय दर्जेदार कथा बरयल्यात. समिक्षा लिखाणांतूय ताणें सैध्दांतिक विश्लेशण-विवरण बरे तरेन केलां.

ताच्यो कथा आर्विल्या भारतीय भाशांतल्यान तशेंच इंग्लीश, जर्मन, इटालियन, युरोपी भासांतल्यान अणकारल्यात. इंग्लीश आनी हिंदींतल्या कांय नामनेच्या साहित्यकृतींचे ताणें गुजरातींत अणकार केल्यात. ताच्यो कांय उल्लेख करपासारक्यो साहित्यकृती अशो : **कथा** : लता अने बीजी वातो (१९३८), वसुंधरा अने बीजी वातो (१९४१), उभी वाटे (१९४४), सूर्या (१९५०), पुण्य परवार्दुं नभी (१९५४), प्रकाशनूं स्मित (१९५६), जीवननां अमृत (१९५७), माणसनां मन (१९६२), मीतरनां जीवन (१९६७), प्रेम पदारथ (१९७४), **नाटक** : धूम्रसेर; मननां भूत (१९६७), **एकांकिका संग्रह** : ज्वलंत अग्नि (१९५६), **कविता** : वसंते (१९६४), **समीक्षा** : रूप सृष्टिमां (१९६२), अभिव्यक्ति (१९६५), भोवंडे वर्णनां : नवा गगननी नीचे (१९७०), **संपादन** : गुजरातीनां एकांकी (१९५८), **अणकार** : भूतावळ (१९६०-इब्सेन हाच्या घोस्टसचो

अणकार), विच्छेद (१९६७- हॅन्री जेम्स हाचे द अमेरिकन हे कादंबरीचो अणकार); **यादी** : अमृत दीक्षा (१९७६).

साहित्य अकादेमीच्या गुजराती सल्लागार मंडळाचो तो वांगडी आशिल्लो. हाचेभायर १९७४ त गुजराती साहित्य परिशदेच्या आनी मुंबय प्रदेश कॉंग्रेसीच्या अध्यक्षपदाचेर तो आशिल्लो. पी. ई. एन. चो भारतीय प्रतिनिधी म्हणून ताणें भोंवडी केली (१९५९). हाचेभायर १९६२ त अमेरिका आनी १९६३ त अस्तंत जर्मनी ह्या देशांच्या आपोवण्यावयल्यान थंयची भोंवडी केली. १९४३ त ताका गुजराती साहित्य परिशदेवतीन 'धुम्रसेर' हे कथेक 'महीडा सुवर्ण चंद्रक' मेळ्ळें. १९४७ ते ५४ ह्या काळांतलें एक बरें नाटक म्हणून मुंबय सरकारावतीन ताका ताच्या 'धुम्रसेर' ह्या नाटकाक पयलें इनाम मेळ्ळें. ताच्या 'माणसनां मन' कथा संग्रहाक १९६८ चें गुजरात सरकाराचें पयलें इनाम तशेंच सूर्या, नव्या गगननी नीचे ह्या ग्रंथांकूय इनामां मेळ्ळयांत. १९७४ त इचलकरंजीक भरिल्ल्या मराठी साहित्य संमेलनांत ताचो गुजराती लेखक म्हणून भोवमान केल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्लॅकेट, पॅट्रिक मेनार्ड स्ट्यूअर्ड :

(जल्म : १८ नोव्हेंबर १८९७, लंडन; मरण : १३ जुलय १९७४, लंडन).

नामनेचो ब्रिटीश भौतिकशास्त्रज्ञ. ऑझबर्न आनी डार्टमथच्या नाविक म्हाविद्यालयांत ताणें शिक्षण घेतलें. तशेंच पयल्या म्हाझुजांत फॉकलंड जुंवे आनी जटलंडच्या नाविक झुजांत वाटो घेतलो. म्हाझुजाउपरांत १९१९ त ताणें कॅंब्रिज विद्यापिठाच्या मॅग्डालीन कॉलेजींत प्रवेश केलो आनी १९२१ त बी. ए. आनी १९२४ त एम. ए. ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. किंग्स कॉलेजीचो अधिछात्र म्हणून ताणें कॅंब्रिजांतल्या कॅव्हेंडिश लॅबोरेटरींत लॉर्ड रदरफोर्ड हाच्या मार्गदर्शनासकयल १९३३ मेरेन संशोधन केलें. लंडन विद्यापिठाच्या बर्बेक कॉलेजींत भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून १९३३ त ताची नेमणूक जाली. १९३७-५३ ह्या काळांत तो मॅंचेस्टर विद्यापिठांत भौतिकशास्त्राचो लॅंगवर्दी प्राध्यापक आशिल्लो. दुसऱ्या म्हाझूज काळांत तो ब्रिटीश नौदलाच्या रडार आनी पाणबुडीरोधन हांचेविशींच्या संक्रियात्मक अन्वेशणाचो (Operational research) संचालक आशिल्लो. १९५३ त तो लंडनच्या इंपिरियल कॉलेज ऑफ सायन्स अँड टेक्नोलॉजीच्या भौतिकशास्त्र विभागाचो मुखेल जालो. ह्या पदावयल्यान १९६३ त तो सेवानिवृत्त जालो. पूण तेउपरांतूय भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून ताणें काम केलें.

कॅंब्रिजांत लॉर्ड रदरफोर्ड हाच्या मार्गदर्शनासकयल १९२१ त ताणें बाश्पकोठयेविशींच्या संशोधनाक सुरवात केली आनी १९२४ त बाश्पकोठी तंत्रांत सुदारणा करून नायट्रोजनाचें $O^{17}$ ह्या ऑक्सिजनाच्या समस्थानिकांत (isotopes) जावपी रुपांतरण दाखोवपी पयलें छायाचित्र मेळयलें. १९२४-२५ त ताणें जेम्स हाचेवांगडा जर्मनींतल्या गटिंगेनांत संशोधन केलें आनी उपरांत फुडल्या संशोधनाखातीर तो कॅंब्रिजाक परतलो. जी. पी. एस. ओखिॲलिनी ह्या इटालियन शास्त्रज्ञावांगडा ब्लॅकेट हाणें १९३२ त विश्वकिरणांचें छायाचित्रण आपोआप जातलें, अशे तरेची प्रतिनियंत्रीत बाश्पकोठी तयार केली. लंडनचे बर्बेक कॉलेजींत, फुडें मॅंचेस्टर विद्यापिठांत आनी दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांतूय ब्लॅकेट हाणें विश्वकिरणांविशींचें संशोधन चालू दवरून कितल्याशाच संशोधकांक मार्गदर्शन केलें. १९४८ उपरांत ताणें खडपांच्या चुंबकत्वाविशीं दीर्घ संशोधन केलें.

मूलकणांचें अस्तित्व वळखुपाखातीर वापरतले सी. टी. आर. विल्सन. हाचे बाश्पकोठी पद्दतीची उदरगत करून तिचे वरवीं अणुकेंद्रीय भौतिकशास्त्र आनी विश्व प्रारण हांचेविशीं लायिल्ले सोद ह्या मोलादीक वावराखातीर ब्लॅकेट हाका १९४८ वर्साचो भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. ताका आनिकूय कितलेशेच भोवमान फावो जाल्यात. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं : Lectures on Rock Magnetism (१९५६), The Methodology of Operation Research (१९४३), Military and Political Consequences of Atomic Energy (१९४८), Atomic Weapons & East-West Relations (१९५६), Studies of war (१९६२).

- कों. वि. सं. मं.

## ब्लॉक, कॉनरॅड एमिल :

(जल्म : २१ जानेवारी १९१२, निसे-जर्मनी).

नामनेचो अमेरिकन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. १९३४ त ताणें म्युनिकांतल्या तांत्रिक विद्यालयांतल्यान रसायनीक अभियांत्रिकी विशयांतली पदवी घेतली. कांय काळ स्वित्झर्लंडांत रावतकच १९३६ त तो अमेरिकेक गेलो. १९३८ त ताणें कोलंबिया विद्यापिठाची जीवरसायनशास्त्राची पीएच. डी. पदवी मेळयली आनी थंयच १९४६ मेरेन ताणें संशोधन केलें. १९४२ त ताणें डेव्हिड रिटेनबर्ग हाच्या पालवान कॉलेस्टॅरॉलाच्या जैव संश्लेशणाविशींच्या संशोधनाक सुरवात केली. १९४६ त शिकागो विद्यापिठांत तो जीवरसायनशास्त्राचो पालवी प्राध्यापक आनी १९५० त प्राध्यापक जालो. १९५४ त हार्वर्ड विद्यापिठाच्या रसायनशास्त्र विभागांत जीवरसायनशास्त्राचो हिगिन्स प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली आनी १९६८त तो त्या विभागाचो अध्यक्ष जालो.

१९४० सावन ताणें कॉलेस्टॅरॉलाचेर संशोधन करपाक सुरवात केल्ली. कॉलेस्टॅरॉलाच्या जैव संश्लेशणांत वट्ट शत्तीस रसायनीक रुपांतरणां आशिल्ल्याचें ताणें प्रयोगांवरवीं सिध्द केलें.

शरीरक्रियाविज्ञानाविशींच्या गिन्यानाखेरीज टर्पिनां, कॅरोटिनां, रबर आदी उद्वेगीक रसायनीक पदार्थांच्या संश्लेशणाच्या गिन्यानांतूय ब्लॉक हाच्या संशोधनाक लागून भर पडल्या. कॉलेस्टॅरॉला खेरीज 'ग्लुटाथायोन' ह्या प्रथिनाच्या चयापचयांतल्या (matabolism) म्हत्वाच्या पदार्थांचेरूय ताणें संशोधन केलां. जीवरसायनीक क्रमविकासाच्यो वेगवेगळयो गजाली ह्या विशयाचेरूय ताणें संशोधन केलां.

कॉलेस्टॅरॉल आनी वसाम्लां (fatty acids) हांच्या चयापचयाची यंत्रणा आनी नियंत्रण हांचेविशींच्या सोदांखातीर १९६४ वर्साचो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञानाचो नोबॅल पुरस्कार ब्लॉक हाका फेओडोर लायनॅन ह्या शास्त्रज्ञावांगडा वांटून मेळ्ळो. ताका आनिकूय खूब भोवमान फावो जाल्यात. Lipid Matabolism हो ताचो ग्रंथ १९६१ त उजवाडाक आयलो.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्लॉक, फिलिक्स : (जल्म : २३ ऑक्टोबर १९०५, झुरीक-स्वित्झर्लंड).

नामनेचो अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ. सुरवेक अभियंतो जावपाच्या हेतान ताणें झुरिकांतल्या स्विस फॅडरल इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजी हे संस्थेंत प्रवेश केलो. पूण एका वर्साउपरांत ताणें भौतिकशास्त्राचें शिक्षण घेवपाचें थारायलें. फुडें ताणें लाइपसिक विद्यापिठांत शिक्षण घेतलें आनी स्फटिकांतल्या इलेक्ट्रॉनांच्या पुंजयामिकीचेर (quantum mechanics) आनी स्वता विकसीत केल्ल्या धातवीय विद्युत् संवहनाच्या सिध्दांताचेर प्रबंध सादर करून १९२८ त डॉक्टरेट मेळयली. हो प्रबंध घन पदार्थांच्या आर्विल्ल्या सिध्दांताक आदार अशें मानतात. उपरांतच्या कांय वर्सांनी वेगवेगळया युरोपी विद्यापिठांनी सहाय्यक आनी अधिछात्र म्हणून पाउली, क्रॅमर्स, हायझेनबर्ग, नील्स बोर आनी एन्रीको फेर्मी ह्या नामनेच्या भौतिकशास्त्रज्ञां वांगडा काम करपाची संद ताका मेळ्ळी.

१९३२-३३ त, तो लाइपसिक विद्यापिठांत अध्यापक आशिल्लो. १९३३ त ताणें जर्मनी सोडली. १९३४ त अमेरिकेंतल्या स्टॅनफर्ड विद्यापिठांत तो सहाय्यक सहयोगी प्राध्यापक जालो. १९३६ त तो थंय भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक जालो. १९६१ तो भौतिकशास्त्राचो मॅक्स स्टायन प्राध्यापक जालो. १९७१ त सेवानिवृत्त जातकच त्याच विद्यापिठांत तो गुणश्री प्राध्यापक म्हणून काम करूंक लागलो.

एल. डब्ल्यू. आल्वारेझ हाचे वांगडा ब्लॉक हाणें बर्कलीच्या सायक्लोट्रॉनावरवीं १९३९ त केल्ल्या प्रयोगांत न्यूट्रॉनाच्या चुंबकीय परिबलाचें पयलेच खेपे अचूक मोल मेळयलें. म्हाझुजांत रडाराविशीं केल्ल्या वावराक लागून इलेक्ट्रॉनिकींतले आर्विल्ले प्रगतीची ताका जाण आयली. ताचेवयल्यान अणुकेंद्रीय परिबलाविशीं संशोधन करपाखातीर विद्युत् चुंबकीय आनी अणुकेंद्रीय आविश्कारांचो संयोग करपाची कल्पना ताका येवजली. ते नदरेन १९४५ त ताणें संशोधनाक सुरवात केली. हानसेन आनी पॅकर्ड हांच्या पालवान अणुकेंद्रीय अनुस्पंदनाचेर आदारिल्लें अणुकेंद्राचें चुंबकीय परिबल मेजपाखातीर अणुकेंद्रीय प्रवर्तनाची एक नवी पद्दत सोदून काडली. १९५४ उपरांत ब्लॉक हाणें अणुकेंद्रीय चुंबकत्वावयलें संशोधन फुडें चालू दवरपाखातीर संबंदीत आशिल्ल्या हेर आविश्कारांविशीं संशोधन केलें. अणुकेंद्रीय चुंबकीय परिशुध्द मापनांखातीर नव्या पद्दतीची उदरगत करपाखातीर आनी त्या संदर्भांत लायिल्ल्या सोदांखातीर ब्लॉक हाका १९५२ वर्साचो भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## ब्लुमबर्ग, बारूक सॅम्युएल : (जल्म : २८ जुलय १९२५, न्यूयॉर्क).

नामनेचो अमेरिकन वैज आनी जीवरसायनशास्त्रज्ञ. १९४३-४६ त ताणें अमेरिकन नौदलांत काम केलें. स्कनेक्टाडीच्या युनियन कॉलेजींतल्यान १९४६ त ताणें बी. एस. पदवी मेळयली. कोलंबिया विद्यापिठाच्या कॉलेज ऑफ फिझिशियन्स अँड सर्जन्स हे संस्थेंत शिक्षण घेवन १९५१ त ताणें एम. डी. पदवी मेळयली. उपरांत १९५५-५७ त ब्रिटनांतल्या ऑक्सफर्ड विद्यापिठाच्या जीवविज्ञान विभागांत काम करून ताणें १९५७ त जीवरसायनशास्त्राची डॉक्टरेट मेळयली. १९५१-५७ त न्युयॉर्कांतल्या बेल्व्ह्यू रुग्णालयांत ताणें निवासी वैज म्हणून काम केलें. १९५३-५५ त तो न्युयॉर्कच्या प्रॅस-बिटीरीअन रुग्णालयांत वैजकीचो अधिछात्र आशिल्लो. ते उपरांत १९५७-६४ त तो बेथेस्डा (मेरिलँड)च्या नॅशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ हॅल्थ हे संस्थेच्या भुगोलीक वैजकी आनी आनुवंशिकी विभागाचो मुखेल आशिल्लो. १९६४ त तो फिलाडॅल्फियांतल्या इन्स्टिट्यूट फॉर कॅन्सर रिसर्च हे संस्थेच्या उपरुग्ण संशोधनाचो सहयोग संचालक जालो. १९७७ त तो पॅनसिल्वेनिया विद्यापिठांत वैजकी आनी मानवशास्त्र ह्या विशयांचो प्राध्यापक जालो.

ब्लुमबर्ग हाणें अमेरिका, आफ्रिका, भारत, उत्तर ध्रुव प्रदेश आनी पॅसिफिकांतल्या जुंव्यांचेर रावन कांय वांशिक गटांतल्या लोकांकूच खाशेल्यो पिडा किद्याक जातात हाचो अभ्यास केलो. ऑस्ट्रेलिया आदिवासींच्या रक्तरसांत ताका एक खाशेलें प्रथिन सांपडलें. ह्या प्रथिनाक ताणें 'ऑस्ट्रेलियन प्रतिजन' (antigen) हें नांव दिलें. ह्याच प्रतिजनाक फुडें (Hepatitis B surface Antigen ($HB_sAg$)) अशें म्हणूक लागले. ज्या खाशेल्या वायरसाक लागून यकृतशोथ जाता त्या 'बी' व्हायरसाचें हें प्रथीन भाग आशिल्ल्याचें ब्लुमबर्ग हाका समजलें. ह्या वायरसाक लागून उपरासपी दुयेंस गंभीर स्वरुपाचें आसून ताचें रुपांतर फुडें यकृताच्या कॅन्सरांत जावं येता.

ब्लुमबर्ग हाच्या सोदाक लागून यकृतशोथ-बी हे विकृतीच्या निदानाखातीर खाशेली परिक्षा उपेगांत हाडली. हे परिक्षेक लागून रक्तदानांतल्यान उपरासपी वायरस-संसर्गाचो धोको टाळप शक्य जालें. लक्षण विरयत रोगवाहक वळखुपाखातीर ही परीक्षा गरजेची आसता.

यकृतशोथाक कारण आसपी वायरसाविशीं ब्लुमबर्ग हाणें केल्ल्या कार्याचें म्हत्व मतींत घेवन ताका आनी अमेरिकन बालरोगतज्ञ आनी वायरसशास्त्रज्ञ डॅनिएल कार्लटन गजडुसेक हांकां सांसर्गिक रोगांचो उगम आनी प्रसार हांचे नवे यंत्रणेविशींच्या सोदाखातीर १९७६ चो शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयाचो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो. ब्लुमबर्ग हाका आनिकूय जायते भोवमान फावो जाल्यात. १९७७ त ताचो Australia Antigen and the Biology of Hepatitis-B हो ग्रंथ उजवाडाक आयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्लू पर्वत - १ :** अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतली दोंगरावळ. ही दोंगरावळ ऑरेगन राज्याच्या मध्यासावन ईशान्येक वॉशिंग्टन राज्यामेरेन पातळ्ळया. हे दोंगरावळीची सरासरी उंचाय २००० मी. आसून ताची लांबाय ३१० किमी. आनी रुंदाय ११० किमी. आसा. रॉक क्रीक ब्यूट हें २,७७५मी. उंचायेचें हें दोंगरावळीतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. तशेंच ऑल्ड्रिच, स्ट्रॉबेरी, एल्कहॉर्न हीं तेमकां हे दोंगरावळींत आसात. डेश्यूट, जॉनडे, ग्रँड रॉंड ह्यो कोलंबिया न्हंयेच्यो उपन्हंयो ह्या वाठारांतल्यान व्हांवतात. तशेंच ह्या पर्वताचे देंवतेचेर डग्लस फर, पायन ही वनस्पत जाता. ह्या वाठारांतल्या उणे उंचायेच्या आनी दोंगराळ वाठारांत उदका शिंपणावळी वतीन शेती करतात. तेच भाशेन खणकाम, रान उत्पादन वेवसाय लेगीत चलतात. यूमाटिला, व्हिटमन, मलुर हीं हे दोंगरावळीच्या वाठारांतलीं पर्यटनाचे नदरेन म्हत्वाचीं थळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्लू पर्वत - २ :** जामायकांतली ही दोगरांवळ किंग्स्टनाचे उत्तरेक सुमार १३किमी.चेर उदेंत-अस्तंत अशी पातळ्ळया. हे दोंगरावळीची लांबाय ५० किमी. आसून सादारण उंचाय २१४ मी. ते १,२१९मी. हांचेमदीं आसा. हे वळींत 'ब्लू मांउटन' हें २,२५६ मी. उंचायेचें सगळयांत व्हडलें तेमूक आसून पांच खिंडी आसात. दाट रानांनी व्यापिल्ले हे दोंगरावळींत, शिंयाळयांतलें तापमान ७°से. मेरेन देंवता. दोंगराच्या देंवतेच्या वाठारांनी काफयेची लागवड करतात. न्यूकॅसल आनी मँडिव्हिल ह्या सुवातांनी, सैमीक सोबीतकायेखातीर पर्यटकांची खूब गर्दी आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्लू पर्वत - ३ :** ऑस्ट्रेलियांतल्या ग्रेट डिवायडिंग रेंजच्या न्यू साऊथ वेल्सांतलो वालुकाश्म सड्याचो भाग 'ब्लू पर्वत' वा 'ब्लू प्लॅटो' ह्या नांवान वळखतात. हाचे उदेंतेकडल्या ३७० ते ५५० मी. उंचायेच्या तुटिल्ल्या कड्यासावन अस्तंतेकडल्या 'बर्ड रॉक' ह्या सुळक्यामेरेन सुमार १,१३४ मी. मेरेन उंचाय वाडत वता. हे दोंगरावळींतली जनोलन गुहा आनी ग्रोस न्हंयेदेगणांतलें राश्ट्रीय उपवन उल्लेख करपासारकें आसा.

ह्या दोंगराचे उतार सुळ्याभशेन आसून ही दोंगराळ ग्रॅगरी ब्लॅक्सलँड ह्या समन्वेशकान १८१३ वर्सा पयलीं पार केली. हे दोंगरावळींत बांदिल्ले रस्ते आनी रेल्वे-मार्गांक लागून हांगाचें दळण-वळण सोंपें जालां. सिडनी आनी लिथगोच्या रेल्वे मार्गांचेर खूबशीं शारां उदरगतीक पावल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**ब्लोएम्बरगेन निकोलास :** (जल्म : ११ मार्च १९२०, डॉर्डरेख्ट - नॅदर्लंड्स).

अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ. ताणें उत्रेक्त विद्यापिठांतल्यान भौतिकशास्त्र विशयांत बी. ए. (१९४१) आनी एम. ए. (१९४३) ह्यो पदव्यो घेतल्यो. १९४६ त ताणें अमेरिकेंतल्या हार्वर्ड विद्यापिठांत इ. एम. पर्सेच हाचेवांगडा आपल्या प्रबंधाखातीर संशोधन केलें. १९४८ त ताणें लायडन विद्यापिठाची भौतिकशास्त्र विशयांतली पीएच. डी. पदवी मेळयली. त्याच वेळार तो त्या विद्यापिठांत संशोधन सहाय्यक आशिल्लो. १९४९-५१ ह्या काळांत तो हार्वर्डच्या 'सोसायटी ऑफ फेलोस' हे संस्थेंत कनिश्ठ अधिछात्र आशिल्लो. तेउपरांत हार्वर्ड विद्यापिठांत १९५१ त तो सहप्राध्यापक आनी १९५७ त अनुप्रयुक्त भौतिकशास्त्राचो गॉर्डन माके प्राध्यापक जालो. फुडें १९७४-८० ह्या काळांत ताणें भौतिकशास्त्राचो रम्फर्ड प्राध्यापक म्हणून त्याच विद्यापिठांत काम केलें. पॅरिस विद्यापीठ आनी कॅलिफॉर्निया विद्यापिठांत (बर्कली) अभ्यागत प्राध्यापक म्हणून तशेंच लायडन विद्यापिठांत अभ्यागत लोरेण्टस प्राध्यापक आनी बंगलोर विद्यापिठांत अभ्यागत रामन प्राध्यापक (१९७९) म्हणून काम केलें.

नीच तापमानाक जावपी स्फटिकांतल्या चुंबकीय अनुस्पंदनाचो अभ्यास करीत आसतना ब्लोएम्बरगेन हाका मेसराखातीर वापरपाक फावो अशी त्रिस्तरीय आनी भौस्तरीय पंपींग पद्दतीची कल्पना येवजली. १९५७ त ब्लोएम्बरगेन आनी ताचे वांगडी हांणी २१सेंमी. तरंग लांबायेचें प्रारण (radiation) उत्सर्जित करपी मेसर तयार केलो. हाचे उपरांत कितल्याशाच शास्त्रज्ञांनी वेगवेगळी तरंग लांबी आशिल्ले मेसर सोदून काडून ब्लोएम्बरगेन हाणें दिल्ले सैध्दांतिक विस्कटावणेची अचूकताय सिध्द केली.

ब्लोएम्बरगेन आनी ताचे वांगडी हांणी प्रयोगावरवीं अशें दाखयलें,

की आणवीय आनी रेवणीय प्रणालीची विद्युत् अपारक प्रवणताय ही ताचेर पडत आशिल्ल्या लेझर उजवाडाच्या क्षेत्राचेर आदारून आसता. नैकरेशीय प्रकाशकीच्या मुळाव्या तत्त्वाचो सोद ताचें सुसुत्रीकरण आनी स्थापणूक हातूंत ब्लोएम्बरगेन हाचो म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. दोन वा चड लेझर कंप्रतांची नैकरेशीय प्रकाशकीय भरसण करून ताचेपसून नव्या मोलांच्यो लेझर कंप्रता निर्माण करूं येतांत अशें ताणें दाखयलें. ब्लोएम्बरगेन हाणें खर शक्तीच्या लेझर शलाकेवरवीं अणू आनी रेणू उत्तेजीत करून अशे तरेन मेळपी नैकरेशीय लेसर वर्णपटविज्ञानाचो सोद लायलो. लेझराचो उपेग ताणें बंध-विवेचक वर्णपटविज्ञानाखातीर केलो. १९८१ वर्साचो भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार ब्लोएम्बरगेन हाका अमेरिकी भौतिकशास्त्रज्ञ आर्थर लेनर्ड शॉलो हाचेवांगडा अर्दो आनी स्विडनी भौतिकशास्त्रज्ञ काई सीग्वान हाका अर्दो असो वांटून मेळ्ळो. द्रव्यांच्या आणवीय आनी रेणवीय संरचनांची गुपितां सोदून काडपाखातीर नव्यो पद्दती सोदून काडिल्लेखातीर ब्लोएम्बरगेन आनी शॉलो हांकां हो पुरस्कार फावो जालो. नोबॅल पुरस्काराखेरीज ब्लोएम्बरगेन हाका आनिकूय कितलेशेच पुरस्कार फावो जाल्यात. ताणें Nuclear Magnetic Relaxations (१९४८) and Non-linear Optics (१९६५) हे ग्रंथ बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**भंगी :** एक जात. हे जातीचे लोक मुखेलपणान महाराष्ट्र, बंगाल, उत्तर प्रदेश, राजस्थान ह्या प्रदेशांनी आसात.

हे लोक आपल्याक बलेंगजी ऋषीचे वंशज समजतात. शुद्र बापूय आनी ब्राह्मण आवय हांचेपसून ही मिश्र जात उत्पन्न जाली. देखून मनून तांची गणना चांडाळांत केल्या. तांकां 'अंतेवासी' म्हळयार गांवापसून पयस, गांवाभायर रावपी अशें म्हण्टात. गुजरात राज्यांत तांकां 'ओलगण' अशें म्हण्टात. तांचेभितर चोहाण, चुडासमा, हाफद, जेठवा हीं रजपूत नांवां आनी कुळां मेळटात.

हे जातींत हिंदू, शीख, मुसलमान ह्या सगळ्या धर्मांचे लोक आसात. मेहतर, हारी, डोम, लालबेगी, हलालखोर, बांसफोड ह्यो पोटजाती आसात.

हे जातींतले कांय लोक कबीर, रामानंद आनी नानक हांच्या पंथाचे आसात. तशेंच कांय मुसलमान लोक लालबेग नांवाच्या एका फकिराचे अनुयायी आसात. शेख भंगी मात पुरायपणान मुसलमान आसात. हे जातींतले हिंदू लोक लालगुरू, शामबाबा, हनुमान, बालाजी, माताजी, भैरोबा ह्या देवांक भजतात. ते गंगा आनी शीतलामाता हांचो सोपूत घेतात आनी हिंदुंचे सगळे सण पाळटात. बद्रीनारायण, हरद्वार, रामदेव हीं तांचीं पवित्र क्षेत्रां.

हे लोक सवर्ण हिंदुंच्या हातचें उदक घेतात. पूण ढोली, चामार, कंजर, बलई ह्या जातींच्या हातचें उदक घेनात.

सादारण बारा ते बावीस हे पिरायेंत चले-चलयांचीं लग्नां जातात. मध्यस्थाक एक रुपया दितात. लग्नाचो म्हूर्त ब्राह्मणाकडल्यान काडून घेतात. दक्षिण गुजरातांत तांचे जातीचो दादलो, लग्नांत पुरयतपण करता. पूण मध्य गुजरातांत तें काम धेड ब्राह्मण करता. लग्नापयलीं तीन वा चार दीस आदीं न्हवऱ्या-व्हंकलेक आपापल्या घरा हळद लायतात. लग्ना दिसा न्हवरो व्हंकलेघरा वता. मदीं उजो पेटोवन दोगांयकूय एकामेका सामकार बसोवन सूत्रवेश्टन करतात आनी तांचे हात एकामेकांच्या हातांत दितात. सव्याभोंवतणीं चार प्रदक्षणां घालून, गंवाचें पीठ, तूप आनी गोड घालून केल्लो 'कंसार' नांवाचो जिन्नस एकामेकांक खावयतात. परतून सव्याभोंवतणीं दोन प्रदक्षणां घालून लग्नगांठ मारतात आनी लग्नसुवाळो सोंपता.

दक्षिणेंत भंग्यांभितर अराय, बराय, चन, मड्य, मंजी, मेमडाबाडी हीं आडनांवां आसात. तांचीं लग्नां ल्हान पिरायेर जातात. चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. लग्न थरतकच न्हवऱ्याचो बापूय आनी व्हंकलेचो बापूय एकामेकांच्या तोंडांत साकर घालतात. लग्नाच्या कांय दीस पयलीं व्हंकलेचो बापूय न्हवऱ्याकडल्या लोकांक साकरभाताचें जेवण घालता. लग्नाच्या दोन दीस पयलीं पिठाचो गणपती करून नव्या घरांत दवरून घरांतल्यो बायलो ताची पुजा करतात. लग्नाच्या आदल्या दिसा दोंगायच्या घरा जेवणावळ जाता आनी तांच्या उजव्या हातांत गेळफळ बांदतात. लग्नाच्या दिसा न्हवरो वाजत-गाजत व्हंकलेगेर वता. पुरयत पांच खेपे सूत्रवेश्टन करून होम घालता आनी न्हवऱ्या-व्हंकलेच्या वस्त्राक गांठ मारतात. उपरांत तीं घटाभोंवतणीं चार प्रदक्षणां घालतात. मंगलाश्टकां म्हणून लग्नसुवाळो सोंपता. न्हवरो-व्हंकल व्हंकलेघरा वतात. थंय तांच्या दातांक काळें दंतमंजन लावन दात काळे करतात. न्हवरो आपल्या घरा येता. व्हंकल दोन दीस कुळारा रावता.

हे जातीची जातपंचायत आसता. जातींतलीं झगडीं, दत्तकविधान, विधवाविवाह सारकिले प्रस्न हीच पंचायत सोडयता. हे जातींत मेल्ल्या मनशाक पुरतात वा लासतात. पुरिल्ले सुवातेर मृतात्म्याखातीर रोटी, गोडशें आनी उदक दवरतात. तेराव्या दिसा सोयऱ्यांक तशेंच जातींतल्या लोकांक जेवण घालतात.

भंगी मुखार आयलो जाल्यार शुभशकून आनी ताचो आशीर्वाद शुभदायक मानतात.

प्रतिलोम संततीचे वंशज म्हणून गटारां, संडास निवळ करपाचें काम, हांचेकडेन आयलें आसूं येता. आदार नाशिल्ल्यांच्या मड्यांचो विलो लावप, गोळ दिवप, कोंड्यापसून पांटले, सुपां तयार करप हीं कामां हे लोक करतात. पांडवांनी केल्ल्या यज्ञांत उश्टें काडपाचें आनी

निवळसाण करपाचें काम ह्या लोकांनी आपणायलें आनी तेन्नासावन हे लोक हीं हलक्या दर्ज्याचीं कामां करपाक लागले अशी आख्यायिका आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**भ :** प वर्गांतलें चवथें अक्षर आनी चोविसावें व्यंजन. ह्या वर्णाच्यो पांच अवस्था आसात. पयलीं अशोकाच्या गिरनारच्या लेखांत, दुसरी नाणेघाट (इ. स. प. २ रें शतमान), तिसरी मथुरेंत (जैनलेख इ. स. चे १ लें शतमान), चवथी प्रयागस्तंभ (समुद्रगुप्तकालीन) च्या लेखांनी आनी पांचवी हैहयवंशी जाजल्लदेवाचो शिलालेख (इ. स. १११४) हातूंत मेळटा.

वर्णोध्दारतंत्रांत भकाराचो प्रणाममंत्र दिला तो असो -

*त्रिशक्तिसहितं वर्णं त्रिबिन्दुसहितं प्रिये ।*

*आत्मादितत्त्वसंयुक्तं भकारं प्रणमाम्यहम् ।।*

**अर्थ** : हे प्रिये, तीन शक्ती आनी तीन बिंदू आशिल्ल्या तशेंच आत्मादितत्त्वांनी युक्त अशा 'भकाराक' हांव नमस्कार करतां.

'भ' चो विकासक्रम असो असा -



ओंठ हें ताचें उच्चारणस्थान आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**भक्ती :** भक्ती हें उतर 'सेवायाम्' ह्या संस्कृत उतरा वयल्यान आयलां. ईश्वराची सेवा करप असो ताचो अर्थ जाता. ईश्वराचें अतुलनीय म्हत्व मानून, ईश्वराक सर्वज्ञ धरून ताची कृपा संपादन करपाचें सामर्थ्य आशिल्ली, ताका शरण वचपाची आचार पद्दत, देवाक प्रसन्न करपाच्या जायत्या आचार पद्दतींतली ही एक लोकप्रिय आचार पद्दत आशिल्ल्यान, भोवतेक संवसारांतल्या सगळ्या समाजांत भक्तीची भावना लोकांमदीं दिसता. देवाक शरण वचपाचे सिध्दान्त आनी तत्त्व एकूच आसलें तरी दर एका भक्तगणाचें आपलें अशें खाशेलपण आसता. ह्या खाशेलपणाक भक्ती संप्रदाय म्हण्टात आनी ह्या संप्रदायाक भक्तिमार्ग म्हण्टात. ऐहिक तशेंच परलौकिक सूख, जैत, मोक्ष सारकिलीं मुल्यां जोडपाखातीर मुखेलपणान कर्म, गिन्यान आनी भक्ती हीं तीन साधनां भारतीय तशेंच हेर संस्कृतींनी मानून घेतल्यांत. तातूंतलें भक्ती हें साधन चडशें परलौकिक मोक्षासंबंदीत आसा. भक्ती हे संकल्पनेकडेन ईश्वराचे कृपेचो जितको संबंद आसा, तितकोच तो ईश्वराचे निस्वार्थी सेवेच्या कर्तव्याकडेन आसता.

विंगड विंगड देशांनी आनी समाजांनी वेगवेगळ्या स्वरुपांनी भक्तिचो आविश्कार दिश्टी पडटा. सगळ्याच धर्मांनी भक्ती उपासनेक अधिश्ठान दिलां . जैन आनी बौध्द हे धर्म निरीश्वरवादी आसले तरी त्या धर्मांनी अनुक्रमान तीर्थंकर आनी बुध्द हांचेविशीं आशिल्लो पूज्यभाव भक्तीच्याच स्वरुपाचो आसा. संवसारांतल्यो विंगड विंगड आदिम जमाती जें धर्मीक आनी यात्वात्मक कर्मकांड करतात, तातूंत लेगीत भक्तीच आसता. हिंदू धर्मांत भक्तिचो आविश्कार खूबशा स्वरुपांनी जाला. वेद यानी उपनिषदां हातूंत भक्तीचें स्वरूप स्पश्ट नाशिल्लें. पूण तांचेपयलींच वासुदेवभक्ती रूढ जाल्ली अशें पाणिनीच्या सुत्रांवयल्यान समजता. कृष्णाच्या अवतारापयलीं भक्तीक ऐकांतिक, नारायणी, पांचरात्र, सात्त्वत अशीं नांवां आशिल्लीं. कृष्णा उपरांत भक्तीक भागवत धर्माचें स्वरूप मेळ्ळें, आनी पुर्विल्ल्या काळांतले सनक, नारद, प्रल्हाद हांकां भक्त म्हणून नामना मेळ्ळी.

दक्षिण भारातांतल्या आळवारांनी वैश्णव भक्तिचो संप्रदाय निर्माण केलो. इ. स. सुमार ५व्या शेंकड्याउपरांत दक्षिणेंतूच नायन्मार नांवाचे त्रेसश्ठ तमीळ संत शैव भक्त नामनेक पावले. भगवद्‌गीता आनी भागवतपुराण ह्या ग्रंथांनी भारतांतल्या भक्तीमार्गाक खूब प्रतिश्ठा मेळोवन दिली.

भक्तीमार्गांत भावनेक आनी भावार्थाक चड म्हत्व आसता. पूण भावार्थ म्हळयार श्रध्देचो आविश्कार जावपाखातीर कसल्याय तरी कर्मकांडाची गरज आसता. पुजा, प्रार्थना, तीर्थयात्रा, तीर्थ-प्रसाद हांचें सेवन करप, नामस्मरण, भजन, कीर्तन, चिंतन-मनन हांचो ह्या कर्मकांडांत आस्पाव जाता. भक्तीमार्गांत गुरूचें माहात्म्य चड आसून ताच्या उपदेशाप्रमाण ताचे अनुयायी आपलो आचार दवरतात. साधुसंत आनी भक्त हांचेविशींय खाशेलो आदर दवरतात.

भक्ती, ज्ञान आनी कर्म हे मोक्षप्राप्तीचे तीन मार्ग मानतात. कांय जाणांच्या मतान योग होच मोक्षप्राप्तीचो स्वतंत्र मार्ग. भक्तीमार्गी संतांच्या मताप्रमाण भक्ती होच हातूंतलो सगळ्यांत श्रेश्ठ मार्ग. हाचे उरफाटें, भक्ती हें मोक्षाचें साधन नासून ती मोक्षापरसूय श्रेश्ठ असो पांचवो पुरुशार्थ म्हळयार साध्य आसा, अशेंय मानपी भक्त आसात.

सगूण भक्ती आनी निर्गूण भक्ती अशे भक्तीचे दोन मुखेल प्रकार आसात. वेगवेगळ्या नदरांतल्यान भक्तिचे वेगवेगळे प्रकार मानल्यात. शांत, दास्य, सख्य, वात्सल्य आनी माधुर्य अशे पांच प्रकारूय मानल्यात. मनांत किदेंय तरी हेत दवरून केल्ली भक्ती ती हैतुकी भक्ती आनी कसलोच हेत धरिनासतना केल्ली ती अहैतुकी भक्ती. हैतुकी ही गौणी आनी अहैतुकी ही 'मुख्या' वा 'परा' भक्ती मानतात हातूंतले गौणी भक्तिचे सात्विकी, राजसी आनी तामसी अशे तीन पोट प्रकार आसात. शास्त्रांक अणसरून केल्ली आनी गौण आशिल्ली वैधी भक्ती तशेंच ईश्वराचेर खूब प्रेम दाखोवपी आनी मुखेल आशिल्ली रागात्मिका भक्ती

अशेंय दोन प्रकार आसात. गौणी भक्ती करपी भक्ताचे आर्त, जिज्ञासू आनी अर्थार्थ अशे तीन प्रकार केल्यात.

भागवतपुराणान भक्तिचे णव प्रकार सांगल्यात ते अशे-श्रवण, कीर्तन, स्मरण, पादसेवन, अर्चन, वंदन, दास्य, सख्य आनी आत्मनिवेदन. ह्या प्रकारांची संख्या णव आशिल्ल्यान हे भक्तीक 'नवविधा' भक्ती अशें नाव पडलां. नारदान गूणमाहात्म्य, रूप, पुजा, स्मरण, दास्य, सख्य, कांताभाव, वात्सल्य, आत्मनिवेदन, तन्मयताय आनी परमविरह अशा इकरा आसक्तींनी भक्तीचें वर्गीकरण केलां.

विंगड विंगड धर्म, संप्रदाय आनी भक्त हांणी ईश्वर आनी भक्त हांच्या नात्याविशीं वेगवेगळयो भूमिका घेतल्यात. देवाक स्वामी, आवय, बापूय, भाव, गुरू, इश्ट, आत्मो अशीं कितलींशींच नातीं लायल्यांत. ईस्लाम धर्मांत देव हो स्वामी आनी भक्त हो ताचो दास अशें मानला. किरिस्तांव धर्मांत देवाक बापूय मानला. कांय शाक्त पंथीय उपासकांनी स्वताक आवय आनी देवाक आपलो पूत मानिल्ल्याचें सांगतात. मधुराभक्ती नांवाच्या भक्तीप्रकारांत देवाक घोव वा प्रियकर आनी स्वताक ताची बायल वा प्रेयसी मानलां. स्वता बायल आशिल्ले मीराबाई सारकिल्ल्या भक्तांनी हें नातें मानलांच, पूण चैतन्य महाप्रभू, गुलाबराव महाराज ह्या दादले भक्तांनीय हें नातें मानलां. सूफी पंथाच्या भक्तांनी ईश्वराक प्रेयसी आनी स्वताक प्रियकर मानून ईश्वरभक्ती केल्ल्याचें दिसता. देवाक आपली आवय मानपी कितलेशेच संत महाराष्ट्रांत जावन गेले. अर्जुन, सुदामा हे भक्त देवाक आपलो इश्ट मानताले. नातें दाखोवपी लिंगवाचक उतरां हीं लाक्षणिक आसतात. पूण ईश्वर हो परमप्रेमास्पद आसा हेंच ह्या उतरांतल्यान दाखोवपाचें आसा. तेखातीर ज्ञानेश्वरान आनी हेर संतांनीय देवावांगडा भक्तांचीं वेगवेगळीं नातीं मानल्यांत.

यज्ञ-याग हातूंतल्या घुस्पागोंदळाच्या कर्मकांडाक लागून आनी भारतांत इतिहासपुराणांनी परिपुश्ट केल्ल्या तशेंच संतांनी आपणायल्या भक्तीमार्गाक लागून वैदिक यज्ञयागाचें म्हत्व उणें जालें. हाचे उरफाटें, भक्तीमार्ग हो सामान्य मनशांचे नदरेन सादो, सोंपो आनी सहजसाध्य आशिल्लो. सगळया जातींच्या आनी वर्णांच्या बायल-दादल्यांक ह्या मार्गांत प्रवेश आशिल्लो आनी आसा. हो मार्ग चड करून प्राकृत भाशेंतल्यान मांडिल्ल्यान सगळयांक लागींचो दिसलो. तशेंच हातूंत पयसो, कश्ट, वेळ ह्यो गजाली सामान्य मनशाचे कुवतींतल्यो आशिल्ल्यान तो चड लोकांरुचीचो जालो.

भक्ती हें मुक्तीचें एक साधन. पूण संतांनी भक्तीक मुक्तीपरसूय श्रेश्ठ मानलां. ईश्वराची भक्ती करतना जल्म-मरणाच्या भोंवऱ्यात परतून परतून भोंवचें पडल्यार उपकारता अशें भक्तिचें माहात्म्य तांणी सांगलां. भक्तिमार्गाप्रमाण परमभक्तिच्या अणभवाखातीर परलोकांत वचचें पडना, ह्या संवसारांतूच अंतिम सत्याचो अणभव घेवंक मेळटा, हें ह्या मार्गाचें खाशेलपण. भारतीय संस्कृतींत भक्तिचो खूब मोलादीक वांटो आसा. रामानुजाचार्य, मध्वाचार्य, वल्लभाचार्य आनी अंबार्क ह्या वेदांती आचार्यांनी मोक्षप्राप्तीचें साधन म्हणून भक्तिचें माहात्म्य प्रस्थापीत केलें. तुलसीदास, रामानंद, कबीर, सूरदास, मीराबाई ह्या भक्तांनी भक्तिमार्गाक आपलें म्हान योगदान दिलां. चैतन्य संप्रदायान भक्तीक साध्य मानलां. महाराष्ट्रांत वारकरी संप्रदायान वैश्णव भक्तीचो प्रभाव तयार केलो. ज्ञानेश्वर, नामदेव, जनाबाई, एकनाथ, तुकाराम, रामदास हे नामनेचे संत महाराष्ट्रांत जावन गेले. हिंदू भक्त ईश्वरी अवतार आनी मूर्तीपुजा हांकां चड म्हत्व दितात.

भक्तिविशींचें वाङमय संवसारांतल्या वेगवेगळया भाशांनी निर्माण जालां. क्रिस्तांवांचो धर्मग्रंथ 'बायबल' हो भक्तीन भरला. भारताच्या सगळया मुखेल भाशांनी व्हड प्रमाणाचेर भक्तिसाहित्य मेळटा. आळवारांचो 'प्रबंधम्' हो ग्रंथ भारतांतल्या भक्तिमार्गाचो मूलस्त्रोत मानतात. नायन्मारांचें भक्तिसाहित्य हें शास्त्र, चरित्र आनी स्तोत्र ह्या तीन भागांनी विभागलां. भगवद्‌गीता आनी भागवत हे भक्तिमार्गाचे दोन मुखेल आदारग्रंथ आसात. भक्तिची शास्त्रीय मांडावळ करपी 'शांडिल्यभक्तीसुत्रां आनी 'नारदभक्तिसुत्रां हे दोन सुत्रग्रंथ आसात. ह्या ग्रंथांचेर भाश्यांय आसात. रुप गोस्वामी हाचो भक्तीरसामृतसिंधु, मधुसूदन सरस्वती हाचो 'भक्ती-रसायन', लक्ष्मीधर हाचो 'श्रीभगवन्नामकौमुदी', अनंतदेव हाचो 'भक्तीनिर्णय' हे ग्रंथ भक्तिचें विवेचन करपी म्हणून प्रसिद्द आसात.

हिंदी साहित्याचो विशिश्ट कालखंड हो 'भक्तिकाळ' ह्या नांवानूच वळखतात.

- डॉ. श्री. शं. फडके

**पूरक नोंद :** भजन.

## भगत, निरंजन : (जल्म : १८ मे १९२६, अहमदाबाद).

नामनेचो गुजराती कवी. मुंबय विद्यापिठांतल्यान इंग्लीश विशय घेवन १९५० वर्सा तो एम. ए. जालो. उपरांत तो अहमदाबादेक इंग्लीश विशयाचो प्राध्यापक जालो. 'साहित्य' ह्या गुजराती त्रैमासिकाचें कांय काळ ताणें संपादक म्हणून काम केलें.

ताणें परंपरीक संस्कृत छंदांतूय कांय कविता, उत्कृश्ट सुनीतां आनी मुक्तकेय रचल्यांत.

कोरांतिल्ले भाशेन रेखीव उतरां, संपन्न लय आनी उण्यांत उणीं उतरां अशीं ताचे कवितेचीं खाशेलपणां आसात. ताचे दर एके कवितेंत असामान्य अशी लय दिश्टी पडटा. सौंदर्यनिश्ठा, भास, लय, भावना, अलंकार आनी रचणुकेची पद्दत हांकां लागून निरंजनाची कविता ही आदले पिळगेचे कवितेपरस वेगळी आसा.

छंदोलय (१९४९), किन्नरी (१९५०), अल्पविराम (१९५४) आनी

३३ काव्यो (१९५८) हे ताचे उजवाडा आयिल्ले काव्यांझेले आसात. उपरांत १९७४ वर्सा ताचो 'छंदोलयबृहत्' हो कवितांचो झेलो उजवाडा आयलो. मीरेच्या कवितांचेर बरयल्लो ताचो एक ग्रंथ १९८२ वर्सा उजवाडा आयलो. तशेंच ताणें १९५३ वर्सा बरयल्लो 'कवितानूं संगीत' हो समीक्षक लेखांचो संग्रह उजवाडा आयलो.

सौंदर्यवादी नदरेचो एक चिकित्सक आनी एक बरो वक्तो म्हणुनूय ताचो लौकीक आसा.

१९७६ वर्सा पोरबंदराक भरिल्ल्या गुजराती साहित्य संमेलनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.

ताचे कवितेचेर फ्रेंच कवी शार्ल बोदलेअर आनी रायनर रिल्के हांच्या काव्यांतल्या तत्त्वांचो प्रभाव दिश्टी पडटा.

'प्रवाळद्वीप' हो एक काव्यांझेलो ताणें बरयला. ताचें लिखाण खूब थोडें पूण मोलादीक आसा. ताणें कांय इंग्लीश कवितांचो गुजराती भाशेंत अणकारूय केला.

- कों. वि. सं. मं.

**भगतनृत्य :** उत्तर प्रदेशांतलो एक लोकनाच. हो नाच नवरात्रांच्या दिसांनी करतात. उत्तर प्रदेशांत व्हड दबाज्यान दुर्गा देवीची पुजा करतात. त्या वेळार देवीचे भगत राती वेळार पदां म्हणून हो नाच करतात. ह्या नाचांत एकूच मनीस हाताक आनी भेंडांक घुंगूर बांदून नाचता. त्या वेळार नाचांतले हेर लोक देवीचीं तोखणायेचीं पदां म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**भगतसिंग :** (जल्म : २८ सप्टेंबर १९०७, बंग, जिल्हो- ल्यालपूर, पंजाब; मरण : २३ मार्च १९३१, लाहोर).

भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींतलो एक व्हड सशस्त्र क्रांतिवीर. एका शेतकार, देशभक्त शीख कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. ताचे आवयचें नांव विद्यावती आनी बापायचें किशनसिंग. ताच्या बापायक क्रांतिकारी साहित्याचो प्रसार केल्लेखातीर १० म्हयन्यांची ख्यास्त जाल्ली आनी तो लाला लजपतराय हाचे वांगडा मंडालेचे बंदखणींत आशिल्लो. भगतसिंगान बंगांत शालेय शिक्षण घेवन लाहोराच्या डी. ए.



वी. आनी फुडें नॅशनल कॉलेजींतल्यान बी. ए. पदवी मेळयली (१९२३). विद्यार्थीदशेंत आसतना जयचंद विद्यालंकार आनी भाई परमानंद ह्या शिक्षकांचो ताचेर प्रभाव पडलो. डी. ए. व्ही. कॉलेजींत आसतना ताणें विद्यार्थ्यांची संघटना घडोवन हाडपाक फुडारपण घेतिल्लें आनी आजल्म आंकवार रावन सुटकेझुजांत वांटो घेवपाचो सोपूत घेतिल्लो.

१९२३ त तो हिंदुस्थानांत 'सोशलिस्ट रिपब्लिकन असोसिएशन' हे संस्थेंत गेलो. रोखडोच ताका मध्यवर्ती समितीचो सचीव नेमलो. संघटीतपणान वावर करपी सुखदेव, चंद्रशेखर आझाद, बटुकेश्वर दत्त, भगवती चरण, जतींद्रनाथ दास हांच्या आदारान ताणें 'नौजवान भारत सभा' ही कट्ट्या देशभक्त तरणाट्यांची संघटना स्थापन केली (१९२५). तेन्ना उत्तर प्रदेशांत सतिंद्रनाथ संन्याल हाच्या फुडारपणाखाल गुप्त संघटनेचें जाळें पातळिल्लें. हे संघटनेचें साहित्य लाहोराक हाडून वाटपाचो वावर ताणें घेतलो. तेचपरी पंजाब, दिल्ली, उत्तर प्रदेश हे भाग स्वातंत्र्य चळवळीचे नदरेन एकठांय हाडले. नौजवान भारत सभेचो एक फांटो लाहोराक स्थापन करून तिचें फुडारपणूय ताणें केलें. चंद्रशेखर आझाद, बटुकेश्वर दत्त, जतींद्रनाथ दास आदींच्या आदारान ताणें जायते क्रांतिकारक बेत आंखले. तातूंत काकोरी खटल्यांतल्या बंदींची बंदखणींतल्यान सुटका करप, सायमन आयोग आनी ताच्यो शिफारशी हांचे आड खर विरोध करप, शस्त्रां एकठांय करप, म्हत्वाच्या केंद्रांत बाँबाचे कारखाने चालू करप, लाला लजपतराय हाचेर जाणें लाठीहल्लो केला त्या ए. ए. स्कॉट ह्या पोलीस अधिकाऱ्याक मारप हे कार्यक्रम आंखिल्ले. १९२६ त लाहोराक जाल्ल्या बाँबस्फोट प्रकरणांत ताका धरलो, पूण फावो ते पुरावे मेळूंक नाशिल्ल्यान ताका सोडलो. ऑगस्ट १९२८त दिल्लीच्या फिरोझशाह किल्ल्यांत वेगवेगळया प्रांतांनी क्रांतीसघटनांचें कार्य करपाचो मेळावो भरलो. चंद्रशेखर आझादाच्या फुडारपणाखाल हिंदुस्थानांत आशिल्ल्या 'सोशलिस्ट रिपब्लिकन असोसिएशन' हे संस्थेन पंजाबांतल्या पुराय वावराचें फुडारपण भगतसिंगाकडेन सोंपयलें. तिचें जाळें सगळेकडेन पातळिल्लें. फुडें हे संस्थेचें रुपांतर 'नौजवान सैनिक संघ' हे संस्थेंत केलें. सगळया फांट्यांकडेन संपर्क दवरून एकसुत्रताय हाडपाचो वावर भगतसिंगाचेर सोंपयलो.

सायमन आयोगाचेर खर निदर्शनां करता आसतना जाल्ल्या लाठीहल्ल्यांत लाला लजपतरायाक मार बसलो आनी उपरांत ताका मरण आयलें (१७ नोव्हेंबर १९२८). ताचो सूड घेवपाखातीर ह्या हल्ल्याचो मुखेल सुत्रधार पुलीस अधिक्षक स्कॉट हाचो खून करपाचो निर्धार भगतसिंग, चंद्रशेखर आझाद आनी शिवराम राजगुरू हांणी केलो. पूण थरयल्ल्या दिसा आनी थरयल्ल्या वेळार स्कॉटाबदला आयिल्लो दुसरो पुलीस अधिकारी सॉंडर्स हाका मारलो. उपरांत भगतसिंग थंयच्यान कलकत्त्याक पळून गेलो. ताणें जतींद्रनाथ दास हाका हाडून आग्रा आनी लाहोराक बाँब कारखानो सुरू केलो. ताच्या क्रांतीकारक पक्षान दोन

अन्यायकारक विधेयकांचो (ट्रेड डिस्प्युट बील आनी पब्लिक सेफ्टी बील), निशेध म्हणून बटुकेश्वर दत्त आनी भगतसिंग हांचेकडेन दिल्लीचे केंद्रीय विधानसभेंत ब्रिटिशांचे हुकूमशाही वृत्तीचो निशेध करपाखातीर बाँब उडोवपाचें काम सोंपयलें. ८ एप्रिल १९२९ दिसा सभासदांत तीं विधेयकां मांडलीं. बिलांचो निर्णय दिवपाखातीर विठ्ठलभाय पटेल उबो रावतकच प्रेक्षकांतल्यान बटुकेश्वर दत्त आनी भगतसिंग हांणी सभाघरांत बाँब घाले, हवेंत गुळयो मारल्यो आनी निशेध पत्रकां उडयलीं. तशेंच 'इन्कलाब झिंदाबाद' अशो घोशणा दीत सरकाराचे सुवदीन जाले.

ह्या आनी हेर जायत्या आरोपांक लागून ताका सुरवेक काळया पाण्याची ख्यास्त जाली (१२ जून १९३०). पूण फुडें खास न्यायाधिकरणान ताका गोळाक लावपाची ख्यास्त फर्मायली. २३ मार्च १९३१ दिसा लाहोरचे मध्यवर्ती बंदखणींत ताका गोळाक लायलो. ह्या क्रांतीकारकाची ख्यास्त उणी करपाखातीर महात्मा गांधी आनी काँग्रेस हांणी जायते यत्न केले पूण तांकां यश मेळ्ळेंना.

भगतसिंगान कम्युनिस्टांच्या साहित्याचो चड करून कार्ल मार्क्साच्या दास कापिताल आनी 'कम्युनिस्ट जाहीरनामो' हांचो अभ्यास केल्लो. भगतसिंग एक धडाडीचो खबरांपत्रकारूय आशिल्लो. 'अर्जुन (दिल्ली), 'प्रताप' (कानपूर) आदी दिसाळयांतल्यान तो 'बसवंतसिंग' ह्या टोपण नांवान बरयतालो. अमृतसर सावन उजवाडाक येवपी अकाली आनी कीर्ती ह्या दिसाळयांचेंय ताणें संपादन केलें. आपले कर्तव्यनिश्ठेन, त्यागान आनी धडाडीन पुराय भारतांत जाग हाडपी भगतसिंग एक आगळोच तरणाटो जावन गेलो.

भारत-पाकिस्तान फाळणे उपरांत ताची दफनभूंय हुसेनीवाला हो भाग पाकिस्तानांत गेलो. पूण भारत सरकारान ते बदला भूंय दिवन तो भाग परतो मेळयलो. थंय १९६८ त सरकारावतीन व्हड यादस्तीक बांदलें.

- कों. वि. सं. मं.

**भगवती :** भारताचे अस्तंत दर्यादिगेवयली एक ग्रामदेवता. ही देवता 'भग' म्हळयार ऐश्वर्य दिवपी आशिल्ली, अशें मानतात. गुरव हे देवतेची पुजा करता. गोंयांत माशेल, खांडोळयां, मांद्र्यां, तुयां, पेडण्यां, पंचवाडे तशेंच कोंकणांत धामापूराक भगवतीचीं देवळां आसात. खांडोळया आनी माशेलांतले भगवतीचें ध्यान महिषासूरमर्दिनीचें आसून, मूर्ती काळया पाशाणाच्यो आसात. गोंयांतल्या भगवतीच्या सगळया देवळांनी जात्रा आनी हेर परबो जातात.

केरळांतूय ही देवता खूब लोकप्रिय आसा. केरळांतल्या भोवतेक गांवांनी भगवतीचें देवूळ आसा. हे देवतेक महालक्ष्मी, महासरस्वती, महाशक्ती, कन्याकुमारी, गौरी; अंबा, पार्वती अ' शा हेर नांवांनीय वळखतात. उग्र रुपांत हे देवीक चामुंडी वा महाकाली म्हण्टात. भूतबाधा जाल्यार वा कसलीय धामीची पिडा आयल्यार ती निवारण जावपाखातीर थंयचे लोक भगवतीची उपासना करतात. आषाढ म्हयनोभर थंय भगवतीची पुजा करपाची चाल आसा. ताचे आदीं म्हळयार ज्येश्ठ म्हयन्याचे निमाणे सुर्याचें उत्तरायण सोंपता. ताचे पयलीं केरळी लोक शेतांतलें तण काडप, कङ्डणाचे गुदांव निवळ करप, घर झाडून-सारोवन निवळ करप अशी नितळसाणीचीं कामां करतात. ज्येश्ठ म्हयन्याच्या निमाणच्या दिसा सांजवेळार घरांतलो गडी एका फुटक्या मडक्यांत घरांतलो कोयर आनी एक पोरनी साङ्म दवरता. एका हातांत तें मडकें आनी दुसऱ्या हातांत दिवो घेवन घराभोंवतणीं प्रदक्षिणां घालता आनी तें कोयराचें मडकें शेंवटून उडयता. ज्येष्ठादेवा म्हळयार अवदसा त्या कोयरा वांगडा वता, असो त्या लोकांचो समज आसा. उपरांत घरांत गंगाजल शिंपडावन देवामुखार दिवो लायतात. देवाकुडींत देवीच्या स्वागताची तयारी करतात. दुसऱ्या दिसा सगळे लोक भगवतीची पुजा करतात आनी लागींच्या भगवतीच्या देवळांत वतात. थळाव्या रितींप्रमाण ही पुजा सात ते तीस दीसमेरेन चलता. पुजा जातकच बायलो रामायण वा देवीमाहात्म्य वाचतात. ह्या दिसांनी बायलो दशपुष्प ह्या नांवान धा तरांची पत्री माथ्यांत माळटात. तीं पानां विष्णु, कामदेव, लक्ष्मी, वरूण, रुद्र, पार्वती ह्या देवांचीं प्रतिकां आसतात. ही पत्री माळिल्ल्यान देवांचो आशिर्वाद मेळटा असो समज आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**भगवतीसूत्र :** जैन आगमांतलें एक आंग. ह्या ग्रंथाक वियाहपण्णती (व्याख्याप्रज्ञप्ती) अशेंय एक नांव आसा. हातूंत जिवांच्या व्याख्यांचें निरुपण आशिल्ल्यान ताका व्याख्याप्रज्ञाप्ती अशें नांव मेळ्ळें. ह्यो व्याख्या प्रस्नोत्तर रुपान आयल्यात. गौतम गणधर हो भगवान महावीराक जैन सिध्दांतांविशीं प्रस्न विचारता आनी भगवान महावीर त्या प्रस्नांच्यो जापो दिता, अशें ह्या ग्रंथाचें स्वरूप आसा. ह्या ग्रंथांत ४१ शतकां आसून दर एकांत जायते उद्देशक आसात. अभयदेवाच्या मताप्रमाण हातूंत ३६,००० प्रस्न आनी २ लाख ८८ हजार पदां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**भगवद्गीता :** हिंदु धर्माचो धर्मग्रंथ. 'गीता' हें भगवद्गीतेचें संक्षिप्त रूप. भगवद्गीता म्हळयार भगवंतान गायिल्ली गीता असो अर्थ जाता. गीतेच्या ध्यान श्लोकांत तिचें स्वरूप वर्णिलां तें अशें -

*पार्थाय प्रतिबोधितां भगवता नारायणेन स्वयं*
*व्यासेन ग्रथितां पुराणमुनिना मध्ये महाभारतम् ।*

*अद्वैतामृतवर्षिणीं भगवतीमष्टादशाध्यायिनीम्*

*अम्ब त्वामनुसन्दधामि भगवद्‌गीते भवद्वेषिणीम् ।।*

**अर्थ :** स्वता भगवान नारायणान पार्थाक उपदेश केल्ली, पुर्विल्लो मुनी व्यास हाणें महाभारतांत ग्रंथीत केल्ली, अद्वैत ज्ञानरुपी अमृताचो वर्षाव करपी, संवसाराचो तिरस्कार करपी आनी अठरा अध्याय आशिल्ली, अशी ही भगवद्‌गीता. हे अंबे भगवद्‌गीते, हांव तुजें अनुसंधान करतां.

गीता ही महाभारताच्या भीष्मपर्वांत ग्रंथीत आसा. १९ अध्याय आनी ७०० श्लोक आशिल्ल्या ह्या ग्रंथांत भारताच्या धर्मीक, संस्कृतीक आनी समाजीक इतिहासाचें सार आसा. भारताच्या इतिहासांत जे नवे विचार, धर्मीक वा तत्त्वीक संप्रदाय निर्माण जाले, त्या सगळ्यांक गीतेंतल्यानूच पोसवण मेळ्ळी. तेखातीर भारतीय संस्कृतीचो एक प्रतिनिधीक ग्रंथ ह्या नात्यान चडशे सगळे विचारवंत गीतेकूच मान्यताय दितात. इतली व्हड मान्यताय भगवद्‌गीतेक मेळटकच शिवगीता, गुरूगीता, हंसगीता, रामगीता अशो सुमार २०० अनुकरणात्मक गीता बरोवप जाल्ल्यो. पूण भगवद्‌गीते इतली मान्यताय हेर खंयचेच गीतेक फावो जालिना.

गीतेक उपनिषद अशें मानतात. गीतेच्या अध्यायसमाप्तिसूचक वाक्यांत 'भगवद्‌गीतासु उपनिषत्सु' अशें म्हळां. हांगा उपनिषत्सु अशें अनेकवचन आसा. ताचे वयल्यान सगळ्या उपनिषदांचें सार ह्या ग्रंथांत आयलां हें होलमता. तशेंच, 'इति श्रीमद्‌भगवद्‌गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे...' ह्या उतरावयल्यान गीता ही ब्रह्मविद्या, योगशास्त्र आनी कृष्णार्जूनसंवाद आशिल्ल्याचें दिसता. ब्रह्मविद्या म्हळ्यार ब्रह्माची विद्या वा ज्ञान. अशे तरेन गीता ही ब्रह्मविद्या आनी योगशास्त्र आसली तरी ह्या दोगांयची स्वतंत्र विस्कटावणी गीतेंत मेळना. ते विशय कृष्ण-अर्जूनाच्या संवादांतल्यानूच त्या त्या प्रसंगांचेर चितरायल्यात. देखून अध्यायसमाप्तींत 'कृष्णार्जुनसंवादे' अशें जें एक पद आसा तें चड म्हत्वाचें.

ह्या ग्रंथाच्या निर्मिती काळाविशीं खूबशा अस्तंती तशेंच भारतीय पंडितांनी भासाभास केल्या. तातूंत डॉ. भांडारकर, न्या. तेलंग, चिंतामणराव वैद्य हे मुखेल आसात. लो. टिळकान आपल्या 'गीतारहस्य' ह्या ग्रंथांत गीतेचो काळ खिस्ती शतमाना पयलीं सुमार पांचशें वर्सां असो थारायला. पूण सर्गेस्त ज. स. करंदीकर हाणें महाभारतांत आयिल्ल्या विंगड विंगड गिऱ्यांचे स्थितीचें सूक्ष्म परिक्षण करून गीतेचो काळ शालिवाहन शकापयलीं दोन हजार णव असो थारायला.

भारतांत तेच भाशेन भारताभायर लेगीत ह्या ग्रंथाचे खूब भक्त आसात. अल बीरुनी ह्या अरबी भोंवडेकाराक हो ग्रंथ खूब मानवलो. विल्किन्सन हाणें १७८५ वर्सा लंडनाक, गीतेचो इंग्लीश अणकार उजवाडायलो. ताका लागून युरोपांत गीतेक खूब नामना मेळ्ळी. ई. आर्नल्ड हाणें केल्लें गीतेचें 'द साँग सिलॅस्टिअल' हें भाशांतर खूब प्रसिद्द आसा. १८२३ वर्सा आउगुस्ट व्हिल्हेल्म फोन श्लेगेल हाणें गीतेची परिशुध्द आवृत्ती लॅटीन अणकारा सयत उजवाडायली. हो अणकार जर्मन पंडीत व्हिल्हेल्म फोन हंबोल्ट हाणें वाचलो. तेन्ना ताणें म्हळें-आपल्याक खबर आशिल्ल्या साहित्यांच्या जगांत, महाभारतांतली 'भगवद्‌गीता' ही सगळ्यांत श्रेश्ठ अशी तत्त्वज्ञानात्मक कविता. बर्लिन अकादेमींत ताणें ह्या विशयाचेर विस्तारान असो सोदप्रबंध बरयलो. तेन्नासावन आयजमेरन युरोपी भाशांनी गीतेचीं भाशांतरां जायत आसात.

इ. स. पयलीं पांचव्या-चवथ्या शेंकड्यांच्या अदमासाक प्रचलीत जाल्ल्या भागवत धर्माच्या मुळांत सेश्वर सांख्य दर्शनाचेर आदारिल्लें हे वैश्णव उपनिषद आसुंये आनी ताचोच विस्तार म्हळ्यार सद्याची भगवद्‌गीता आसुंये अशें कांय अस्तंती संशोधकांचें मत आसा. इ. स. पयलीं दुसऱ्या शेंकड्यांत कोरांतिल्ल्या लेखांवयल्यान गांधार अफगाणिस्तानांतल्या ग्रीक लोकांनी भागवत धर्म आपणायल्ल्याचें दिसता. भगवद्‌गीता ही मुळांत ल्हान आसूंक जाय ह्या मतान जर्मन पंडीत आर. गार्बे हाणें मूळची भगवद्‌गीता आनी तातूंत उपरांत भर पडिल्ली म्हळ्यार प्रक्षिप्त 'भगवद्‌गीता' कितली व्हडली आसा, हें स्वता उजवाडायल्ल्या पुस्तकांत दाखयलां. ताच्या मतान हो प्रक्षिप्त भाग म्हळ्यार वेदान्त तत्त्वज्ञान आनी ब्राह्मणी वैदिक धर्म हांचेविशींचीं वचनां आसात.

महाभारतांत, कुरुक्षेत्राचेर कौरव आनी पांडव हांचीं सैन्यां झुजाखातीर एकमेकासामकार उबीं आसतना, अर्जुनाच्या मनांत झूज करचें काय ना असो संभ्रम निर्माण जालो. त्या वेळार ताच्या रथाचें सारथ्य करपी भगवान श्रीकृष्णान ते रणभुंयेचेर ही गीता अर्जुनाक सांगली आनी ताच्या मनांतलो घुस्पागोंदळ पयस केलो. तशेंच, ताका क्षात्रधर्माप्रमाण झूज करपाक तयार केलो अशें मानतात. त्या वेळार अर्जुन आनी श्रीकृष्ण हांचेभितर प्रस्न-जाप अशा रुपान जाल्लो तात्त्विक संवाद उपरांत महाभारतांत व्यासान श्लोकबद्द करून मांडला अशें विद्वानांचें मत आसा. ही गीता लेगीत मुळांत पांच अध्यायांचीच आसुंये आनी त्या काळांतल्या तत्त्वज्ञानाचे विंगड विंगड पंथ, तांचे विचार आनी मतां संकलीत करून आस्पाव करून घेवपाखातीर उपरांतचे तेरा अध्याय रचले आसुंये अशेंय कांय विद्वानांचें मत आसा.

गीतेंत जे अठरा अध्याय आसात तांचीं नांवां अशीं- अर्जुनविषादयोग, सांख्ययोग, कर्मयोग, ज्ञानकर्मसंन्यासयोग, संन्यासयोग, ध्यानयोग, ज्ञान-विज्ञानयोग, अक्षरब्रह्मयोग, राजविद्याराजगुह्ययोग, विभूतियोग, विश्वरूपदर्शन, भक्तियोग, क्षेत्रक्षेत्रज्ञविभागयोग, गुणत्रयविभागयोग, पुरुषोत्तमयोग, दैवासुरसंपद्‌विभागयोग, श्रध्दात्रयविभागयोग आनी मोक्षसंन्यासयोग.

अर्जुनाचो संभ्रम निवळावपाखातीर भगवंतान आत्मतत्त्वाच्या विवरणापसून आरंभ केलो. कृष्ण म्हण्टा, ह्या झुजांत हत्या जातली,

पूण ती नाश पावपी शरिरांचीच. आत्मो सदांच जिवो उतरलो कारण ताका कोणूच मारूंक शकना. आत्मो हो शरिरावांगडा जल्मना आनी शरिराचो नाश जालो तरी आत्म्याक मरण येना. आत्मतत्त्व हें अविनाशी. झूज करप हो क्षत्रियांचो धर्म. झुजांत क्षत्रियांक मरण आयलें जाल्यार तांकां सर्गाचें दार उकतें आसता आनी जैत मेळ्ळें जाल्यार धर्तरेचें राज्य फावो जाता. ह्या दुसऱ्या अध्यायांतल्या उपदेशांत कृष्ण हो ऋषीभाशेन उपदेश करता. उपरांत तो स्वताच परमेश्वर आसून, तो परमेश्वरूच उपदेश करता अशें दिसता.

फळाची आस धरिनासतना कर्म करीत रावचें हो सिध्दांत सुरवेकसावन, निमाणेमेरेन आसा. गीतेचो उपक्रम आनी उपसंहार लक्षांत घेतल्यार गीतेंत ज्ञानमूलक भक्तिप्रधान कर्मयोगाचोच आदेश हो मुखेल आसा, हें गीतारहस्यकार लोकमान्य टिळक हाचें मत मान्य करचें पडटा. पूण ज्ञानयोग, कर्मयोग आनी भक्तियोग हातूंतलो खंयचोय योग हें मुखेल उद्दिश्ट मानलें, तरी ज्ञानयोगाक वा स्थितप्रज्ञ दर्शनाक कर्मयोगाची आनी भक्तियोगाची जोड दिवंचीच पडटा. ज्ञानापसून आनी भक्तीपसून ह्या तीन योगांतलो खंयचोय योग वेगळावंक मेळना. स्थीर बुद्दीचो अनिकेत म्हळ्यार संवसार सोडिल्लो संन्यासी लेगीत आदर्श मनीस म्हणून वर्णिला. हो ज्ञानमार्गी योगी आसा. हो एकांत सुवातेर बसून, इंद्रियां-मन हांचो संयम करून सूख-दुखापसून पयस रावन ध्यानस्थ बसता. ताची ही समाधीस्थितीच ताका साक्षात्कारावतीन निर्वाणपदाक पावयता. ताचीं सगळीं पातकां पयस जातात. तो सगळया पाप-पुण्यांचे पलतडी पावता. कोणूय साधक जर इहजल्मी योगभ्रश्ट जालो जाल्यार तो सर्गांत वता आनी उपरांत गिरेस्त कुळांत वा योग्यांच्याच कुळांत जल्म घेता. फाटल्या जल्माचो योगाभ्यास ताका परतून योगसाधनेवटेन प्रवृत्त करता आनी तो सिध्दावस्थेक पावता. सामको पापी, दुराचारी मनशाचो लेगीत उध्दार जावं येता अशें भगवंतान आश्वासन दिलां. ताचो मार्ग हो भक्तिमार्ग. परमेश्वराची अनन्य भक्ती केल्ल्याच्या योगान कितलोय पातकी वा शुद्र मनीस परमपदाक पावूंक शकता.

कर्म करुनूय कशें मुक्त रावचें, अहंकार आनी आसक्ती हांचो त्याग केल्ल्यानूच आत्मोन्नती सादून परमशांतीचें अंतिम ध्येय कशें साध्य जाता हाचें गीतेंत जितलें उत्कृश्ट प्रतिपादन मेळटा तितलें संवसारांतल्या तत्त्वज्ञाना वयल्या खंयच्याच ग्रंथांत मेळना.

गीतेचेर जगांत जितलें टिकासाहित्य निर्माण जालां, तितलें एका बायबलाचो आडवाद सोडल्यार हेर खंयच्याच ग्रंथाचेर जावंक ना. भारतांतल्या सगळया पुर्विल्ल्या आचार्यांनी गीतेचेर भाश्यां बरयल्यांत. वेदान्ताचीं उपनिषदां, भगवद्गीता आनी ब्रह्मसुत्रां हीं प्रस्थानत्रयी मानल्यांत, केवलाद्वैतवादी शंकराचार्य आनी ताचे अनुयायी, विशिश्टाद्वैतवादी रामानुजाचार्य, ताचो गुरू यामुनाचार्य आनी ताचे अनुयायी; द्वैतवादी मध्वाचार्य आनी ताचे अनुयायी हांचीं आनी हेर वल्लभाचार्य सारकिल्ल्या आचार्यांचीं गीतेचेर भाश्यां आनी टिका आसात. भारताच्या प्रचलीत अशा चडशा सगळया साहित्यिक भाशांनी गीतेचे अणकार, भाश्यां वा टिका आनी भाशांतरां जाल्यांत. भगवद्गीतेची आयज उपलब्ध आशिल्ली सगळ्यांत पोरनी आनी अधिकृत प्रत म्हळयार शंकराचार्याचें 'गीताभाष्य'. ह्या भाष्यांत गीतेचो पयलो अध्याय सोडून दुसऱ्या अध्यायाच्या इकराव्या श्लोकासावन अठराव्या अध्यायांतल्या निमाण्या श्लोकामेरेन उतरान उतराचें स्पश्टीकरण आयलां. भगवद्गीता हो भागवत धर्माचो मुखेल प्रमाणग्रंथ. श्रीधर, मधुसूदन, शंकरानंद अशे कितलेशेच ल्हान-व्हड गीतेचे टिकाकार जाले आनी तांणी वयर उल्लेख केल्ल्या खंयच्या तरी आचार्यांच्या भाश्याक अणसरुनूच टिका बरयल्या.

भगवद्गीतेचे जे मराठी अवतार आसात, तातूंत 'ज्ञानेश्वरी' हो सगळ्यांत पोरनो. ज्ञानेश्वरीची योग्यताय स्वतंत्र ग्रंथाइतली मानतात. ज्ञानेश्वराउपरांत वामनपंडित, दासोपंत, तुकाराम, मोरेश्वर अशा कितल्याशाच जाणांनी गीतेक मराठी साज चडयला. उपरांत इंग्लिशींत आनी हेर अस्तंती भाशांनीय गीतेचीं भाशांतरां जाल्यांत; तातूंतलीं कांय पद्यलेगीत आसात. ताचे उपरांत भारतांत, नवे नदरेंतल्यान गीतेचो अभ्यास जावंक लागलो आनी तेविशींचे ग्रंथ निर्माण जाले. हातूंत सगळ्यांत पयलीं उल्लेख येता लोकमान्य टिकळाच्या गीतारहस्याचेर. महात्मा गांधी आनी विनोबा भावे हांणी बरेंच बरोवप केलां आनी तातूंतल्यान तांणी अनासक्तियोग प्रतिपादन केला. योगी अरविंद घोष, डॉ. राधाकृष्णन, डॉ. बेलवलकर, आचार्य विनोबा, श्री. ज. स. करंदीकर, पं. सातवळेकर अशा कितल्याशाच भारतीय तत्त्वगिन्यानी लोकांनी ग्रंथलिखाण करून गीतार्थाचीं नवीं नवीं तासां अभ्यासकांक दाखोवन दिल्यांत.

कोंकणींत श्री. बा. भ. बोरकार आनी सुरेश गुंडू आमोणकार हांचे गीतेचे अणकार बरे जाल्यात.

- डॉ. नरेश कवडी

**भगवानलाल, इंद्रजी :** (जल्म : ७ नोव्हेंबर १८३९, जुनागढ (गुजरात); मरण : १६ मार्च, १८८८, मुंबय).

नामनेचो भारतविद्याविशारद. पुर्विल्ल्या भारतीय संशोधकांमदलो एक. वेद, पुराणां, धर्मशास्त्र हांचो अभ्यास ताणें पाठशाळेंत पुराय केलो. आपल्या बापायकडेन ताणें संस्कृत आनी आयुर्वेद ह्या विशयांचो खोलायेन अभ्यास केलो.

भगवानलाल इतिहासाच्या संशोधनाकडेन वचपाक एक गजाल कारण जाली. जुनागढ संस्थानचो राजकीय प्रतिनिधी कर्नल लँग हाणें लिपीशास्त्रज्ञ जेम्स प्रिन्सेप हाका जुनागढ हांगाच्या अशोकाच्या आनी रुद्रदामनाच्या लेखांचे छाप दिल्ले. प्रिन्सेप हाणें आपल्या नेमाळ्यांत एप्रिल १८३८ त रुद्रदामनाच्या लेखाचो छाप छापिल्लो. १८५४ त लँग

हाणें रुद्रदामनाच्या लेखाचो छाप जुनागढचो मणिशंकर जटाशंकर हाका दिल्लो. तो छाप भगवानलाल हाणें पळयलो. ताणें त्या छापावयलीं अक्षरां नकल करून घेतलीं. रॉयल एशियाटिक सोसायटी मुंबय, रॉयल एशियाटिक सोसायटी ऑफ बँगॉल, रॉयल एशियटिक सोसायटी ऑफ ग्रेट ब्रिटन ह्या संस्थांच्या नेमाळयांवयल्यान लिपीशास्त्राचो आनी इतिहास संशोधन पद्दतींचो खोलायेन अभ्यास केलो. ह्या गिन्यानाच्या आदारान ताणें उपाट कश्ट घेवन रुद्रदामनाचो लेख बारीकसाणेन वाचलो. ह्या लेखांतल्या राजाचें नांव 'रुद्रदामन' आनी तळयाचें नांव 'सुदर्शन' आशिल्ल्याचें ताणेंच पयलीं दाखोवन दिलें.

भाऊ दाजी लाड आनी बाळशास्त्री जांभेकर हे भगवानलाल हाच्या काळांतले भारतीय, इतिहास संशोधन क्षेत्रांतले नांवाजते संशोधक. पुर्विल्लो भारतीय इतिहास हो विशय भाऊ दाजीचो खास आवडीचो आनी संशोधनाचो विशय आशिल्लो. ताणें भगवानलाल हाका मुंबय आपोवन घेतलो. १८६२ वर्सा भगवानलाल मुंबय येतकच ताणें नासिक, कार्ले, भाजे, जुन्नरलागसारचो नाणेघाट ह्या सुवातींतल्या शिलालेखांचे नवे छाप घेवन तांचो अभ्यास आनी वाचन केलें. जेम्स बर्जेस हाचे वांगडा ताणें अजिंठाच्या लेखांचेंय वाचन केलें.

त्या काळांतलें जुनागढ संस्थान आनी ब्रिटीश सरकाराचे वतीन भाऊ दाजीच्या यत्नांक लागून भगवानलाल हाका अर्थीक मदत मेळ्ळी. ताका लागून भगवान हाणें अफघाणिस्तान, बलुचिस्तान, नेपाळ, उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेशांतलीं देवळां, पोरने अवशेश, नाणीं, हातबरपां हांचो अभ्यास केलो. हे भोंवडेंत ताणें शिलालेख, पोरनीं नाणीं, मुर्ती पुंजायल्यो. पुर्विल्ल्या भारतीय इतिहासांत भगवानलाल हाचो नाण्यांचो चड करून क्षत्रप राजांच्या नाण्यांचो खोलायेन अभ्यास आशिल्लो. ताणें रॉयल एशियाटिक सोसायटीचो अध्यक्ष न्युटन हाका नाण्यांवयलें नहपान, रुद्रदामन, स्कंदगुप्त हीं नांवां वाचून दाखयलीं. पुर्विल्ल्या शिलालेखांतले अंक म्हळयार ब्राह्मी लिपींतलीं अक्षरां हें भगवानलाल हाणेंच सगळयांत पयलीं दाखोवन दिलें.

भगवानलाल हाच्या संशोधन कार्याक लागून रॉयल एशियाटिक सोसायटीच्या मुंबय फांट्यान ताका मानद सभासद करून घेतलो. १८८२ वर्सा मुंबय सरकारान ताका अधिछात्र नेमलो. हेग हांगाच्या रॉयल इन्स्टिट्यूट ऑफ फायलॉलॉजी, जिऑग्राफी अँड एंथ्रॉलॉजी ऑफ नॅदरलँड्स अँड इंडिया हे संस्थेन १८८३ वर्सा ताका मानद वांगडीपद दिलें. रॉयल एशियाटिक सोसायटी ऑफ ग्रेट ब्रिटन हे संस्थेनूय ताची मानद वांगडी म्हणून नियुक्ती केली.

जेम्स बर्जेस हाचेवांगडा बरयल्लो 'इन्स्क्रिप्शन्स ऑफ द केव टॅम्पल्स ऑफ वॅस्टर्न इंडिया विथ डिस्क्रिप्टिव नोट्स' (१८८१) हो ताचो एक मोलादीक ग्रंथ. नाणेघाट शिलालेखांतले अंक, सातवाहन राजांचीं नाणीं, शिलाहार, त्रैकूटक आनी राश्ट्रकूट राजांचे ताम्रपट हांचेर बरयल्लें लिखाण 'जर्नल ऑफ द बाँबे ब्रँच ऑफ द रॉयल एशियाटिक सोसायटी'न उजवाडा हाडलें. बाँबे गॅझेटियरांतलो, पुरातत्त्वविभागांतलो, लेणी आनी शिलालेख हांचेवयलो सगळो मजकूर भगवानलाल हाणें बरयला. रुद्रदामनाचो लेख, अंक, नेपाळांतलीं हातबरपां, गुजरातांतले लेख हांचे वयलें भगवानलालाचें लिखाण इंडियन अँटिक्वॅरी ह्या नेमाळयांत उजवाडा आयलां. शिलालेख आनी नाणीं हांचेर भगवानलालाचे सुमार चाळीस लेख इंडियन अँटिक्वॅरी आनी मुंबयचे रॉयल एशियाटिक सोसायटीच्या नेमाळयांत उजवाडा आयल्यात. भगवानलालाची बायल ताचेपयलीं मेल्ली आनी ताका पुतूय नाशिल्लो. देखून भगवानलालान जितेपणींच आपलें श्राध्द केल्लें.

जे. पी. ब्यूलर, बर्जेस, कॉडरिंग्टन हे भगवानलाल हाका खूब मानताले. तशेंच, भगवानलाल भाऊ दाजीक इतलो मानतालो, ताणें आपलीं सगळीं कागदपत्रां रॉयल एशियाटिक सोसायटीच्या वाचनालयांत भाऊ दाजीच्या कागदपत्रांनी दवरचीं अशें आपल्या इत्सापत्रांत बरयल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

**भगीरथ :** हिंदू पुराणांतलो एक धर्मनिश्ठ आनी दानी राजा. सगर, असंमजस, अंशुमत् (अंशुमान), दिलीप, भगीरथ असो ताचो वंशक्रम. तो अंशुमताचोच चलो आशिल्लो अशें पुराणांतल्या कांय उल्लेखांवयल्यान समजता. भगीरथ ह्या उतराचो अर्थ 'वैभवशाली रथ आशिल्लो.' असो जाता. भगीरथ सूर्यवंशांतलो म्हणजेच इक्ष्वाकु वंशांतलो राजा आशिल्लो. ताणें आपल्या पुर्वजांच्या उध्दाराखातीर खर तप करून गंगेक स्वर्गांतल्यान धर्तरेचेर हाडली.

एक फावट अयोध्येचो सगर राजा अश्वमेध यज्ञ करतालो, तेन्ना इंद्रान ताचो अश्वमेधाचो घोडो उबारून व्हरून कपिल ऋषी फाटल्यान लिपयलो. सगराच्या साठ हजार पुतांनी कपिल ऋषीच्या फाटल्यान घोडो पळोवन ताचो अपमान केलो. तेन्ना कपिल मुनीन तांकां शाप दिवन लासून उडयले आनी फुडें सांगलें ताच्या गोबरावयल्यान गंगा व्हांवली जाल्यार तांचो उद्धार जातलो. हें आयकतकच अंशुमान आनी दिलीप हांणी सर्गांतल्यान गंगेक धर्तरेचेर हाडूंक तप केलें. पूण तांकां यश आयलें ना. उपरांत भगीरथान खर तप करून गंगेक प्रसन्न करून घेतली. तेन्ना गंगेन ताका सर्गांतल्यान धर्तरेचेर पडपी आपलो प्रवाह धारण करपाक शंकराक प्रसन्न करून घेवंक सांगलें. तेन्ना भगीरथान शंकराची आराधना केली. शंकरान प्रसन्न जावन गंगेचो लोट आपले जटेंत घेतलो आनी जटेचो एक केंस तोडून गंगेक वाट करून दिली. गंगेच्या ह्या ओघाक 'अलकनंदा'अशें नांव पडलें. गंगेन भगीरथाच्या फाटल्यान वचून सगरपुत्रांचो उद्धार केलो. भगीरथान तिका धर्तरेचेर हाडली. देखून तिका भगीरथीची धूव मानूंक लागले आनी गंगेक 'भागीरथी' हें दुसरें नांव पडलें.

भगीरथ हो धर्मीक आनी दानी आशिल्लो. ताणें भागीरथीचे देगेर जायते घाट बांदले. तो यमसभेचो वांगडी आशिल्लो. ताका शिवाकडल्यान वर मेळिल्लो. त्रितुल ह्या गुरूच्या उपदेशावयल्यान ताणें राजत्याग केलो आनी दीर्घ काळाउपरांत परत राज्यग्रहण केलें.

भगीरथान उत्तर वाहिनी गंगेक दक्षिण वाहिनी करून लौकिक अर्थान उत्तर भारताचें दुकळाचें संकश्ट पयस केलें, अशें जाणकारांचें मत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**भजन :** भक्तिचो एक प्रकार. ताळ, पखवाज आनी खूबदां बाजो, पेटी, तंबोरो, चिपळयो आनी झांज ह्या वाद्यांचे साथींत ईश्वर-गुणांचें वर्णन वा नामस्मरणाचेर आदारीत काव्य रचना गावप हाकाच भजन अशें म्हण्टात. भजनाची सुरवात भागवताच्या काळासावन जाली अशें मानतात. भागवताचो कालखंड इ. स. प. ३०० अशें मानिल्ल्यान तेन्नासावन, भारतांत विंगड विंगड प्रांतांत भजनाची पद्दत सुरू जाली अशें मानूं येता.

भजन सुरू करचे पयलीं मुखेल, सांप्रदायिक देवतेची प्रतिमा व्यासपिठार दवरून पुजा करतात. उपरांत ताळ, पखवाज हांकां गंध-फूल घालतात आनी साथीदारांक बुको लावन तांकां नमस्कार करतात. हाका वीणेकरी अशें म्हण्टात. इश्टदेवता, कुलदेवता हांचें संस्कृत श्लोकांत स्मरण करतकच प्रांतीय भाशेंत भजनाक सुरवात जाता.

भजन हो गावपाचे पद्दतीप्रमाण सुगम शास्त्रीय संगिताचो वा सुगम संगिताचो प्रकार म्हणूं येता. परंपरीक संतकवींचीं भजनां, धृपद-धमार गायकीच्या वा शास्त्रीय रागदारीच्या आंगान गायल्यार तांकां 'पद' अशें म्हण्टात. हीच रचणूक, सुगम शास्त्रीय संगिताच्या ठुमरी-दादरा गायकीच्या आंगान गायल्यार तिका 'भजन' म्हण्टात. भजन एक गायक वा समूह स्वरांत सामुदायिक रितिनूय म्हण्टात. सुगम संगिताच्या वा लोकगिताच्या आंगान भजन गायल्यार एकतारी, झांज, चिपळयो हीं वाद्यां वापरतात. हे पद्दतींत काव्यार्थाक म्हत्व आशिल्ल्यान आलापीचो भाग नासता. उरफाटें, ठुमरी-दादरा गायकीच्या आंगान भजन गायल्यार साहित्याचें म्हत्व उणें करिनासतना संगिताचे नदरेन विंगड विंगड तरांनी आळोवन भजन म्हणप जाता.

भजन जे गायकीच्या आंगान गायतात तेप्रमाण तबलें, धोलकें, पखवाज, ताळ हीं वाद्यां वापरतात. हेचखातीर भजन हो गीतप्रकार शास्त्रीय रागदारीपसून सुगम तशेंच लोकसंगितामेरेन विंगड विंगड संगीत प्रकारांच्या गायकींचो ढंग घेवन प्रदेश तशेंच काळाप्रमाण विस्तारीत गेला हें कळटा.

दर एका संप्रदायाची भजनाची तरा वेगळी आसता. महाराष्ट्रांत वारकरी संप्रदायान भजनाची परंपरा संत नामदेवाच्या काळासावन सुरू केली. हाचेपयलीं महानुभाव पंथांत मठसंगीत आशिल्लें, पूण तें फकत मठांतल्या शिश्यांपुरतेंच मर्यादीत आशिल्लें. वारकरी संप्रदायान भजन सगळ्यांक मुक्त केलें. तांच्या भजनांच्या समुहाक 'फड' म्हण्टात. वारकऱ्यान जीणभर त्या फडाक एकनिश्ठ रावंक जाय असो नेम आसा. तांचे काय थरायिल्लेच अभंग म्हणपाचे आसतात. हे फड आषाढ शुध्द एकादस ते कार्तिक शुध्द एकादशीमेरेन पंढरपूरांत आनी कार्तिक वद्य पाडवो ते उमाशेमेरेन आळंदीक आसतात.

संतांच्यो पालख्यो पंढरपूराक येतना 'चक्री भजनां' जातात. चक्री भजन म्हळयार एका फाटोफाट भजन म्हणप. कांय खास देवभक्तांचीं सवंगां घेवन अभंगाच्या रुपान जावपी संवादाक 'सोंगी भजन' म्हण्टात. 'बारी भजनां' त सगळयांत बरें भजन कोण म्हण्टा हाची सर्त आसता. तशेंच, 'रिंगण भजन', 'भारूड भजन' अशींय कांय विठ्ठलपंथी भजनां आसात.

उत्तर हिंदुस्थानांत, भजन करपी मंडळाक 'भजनी मंडळी' अशें म्हण्टात. बंगालांत गौडी संप्रदायाचीं भजनां म्हण्टात चतुःसंप्रदाय आखाड्यांत करताल, मृदंग घेवन तुलसीदासाचीं सगूण तशेंच सूरदास, मीराबाई, कबीर हांचीं निर्गूण भजनां म्हण्टात. शैव आखाड्यांत शिववर्णनाचेर आदारीत शैव पदां आनी वैश्णव भजनांनी मदीं मदीं राम, कृष्ण हांच्यो कथा येतात. ह्यो कथा वीणेकरी वा पेटीवालो सांगता. हें भजनी मंडळ विशिश्ट उत्सवांक त्या त्या तीर्थक्षेत्रांनी उपस्थीत आसता.

कर्नाटकांत भजनी मंडळाक 'भागवतर' म्हण्टात. तातूंतलो मुखेल भागवतर फेर धरून नाचता आनी ताचेवांगडा बाकीचे कथानकप्रधान भजन म्हण्टात. गोंयांत खास करून खेड्या-पाड्यांनी, थळाव्या देवळांत थरावीक दिसा, भजन करपाची परंपरा आसा. तेभायर कांय गांवांनी वर्सुकी, देड दीस वा सात दीस चलपी भजनी सप्ताह चलतात. तांचेच जोडयेक मडगांवची दिंडी, वास्कोचो सप्ताह, नागेशींचो सप्ताह हे वर्सुकी भजनाचे उत्सव गोंयांत व्हड दबाज्यान चलतात. हे उत्सव सुरू जायत सावन गोंयची शांत, ठाय लयेंतली पोरनी भार्गक भजन पद्दत वचून तिची सुवात पंढरपूरी भागवत संप्रदाय भजन पद्दतीन घेतल्या. मनोहर बुवा शिरगांवकार, नरहरीबुवा वळवईकर, हे गोंयचे नामनेचे गायक भजनी कलाकार. गोंयची कला अकादेमी सर्गेस्त मनोहरबुवा शिरगांवकार यादस्तीक दर वर्सा भजनी सर्त घेता.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** भक्ती.

**भट, आत्माराम रावजी :** (जल्म : १२ मे १९०५, रत्नागिरी; मरण : १८ जानेवारी १९८३, पुणें).

महाराष्ट्रांतलो कृतिशील विचारवंत. एका मध्यमवर्गीय कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. रत्नागिरी आनी मुंबय ताचें शिक्षण जालें. महाविद्यालयांत आसतनाच ताणें युवक चळवळींत वांटो घेतलो. तेन्ना ताका बंदखणूय भोगची पडली.

१९२९ वर्सा मुंबय विद्यापिठाची एम. कॉम. पदवी घेतकच पुणें हांगां 'केसरी-मराठा संस्थे'त तो वेवस्थापक म्हणून काम करतालो. १९५२ वर्सा मुंबय विधान परिशदेचेर वेचून येमेरन ताणें ह्या कामाची जापसालदारकी सांबाळ्ळी. बारा वर्सां तो विधानसभेचो वांगडी आशिल्लो. १९५२ वर्सा भारत सरकारान पयलो 'वृत्तपत्र आयोग' स्थापन केलो ताचोय तो वांगडी आशिल्लो. १९५४ वर्सा ब्राझील देशांत भरिल्ले पयले संवसारीक खबरांपत्र परिशदेखातीर भारतीय प्रतिनिधी मंडळांत ताचो आस्पाव जाल्लो. भारत सरकारच्या 'लुगटा उद्देग समिती' चोय तो वांगडी आशिल्लो.

१९३४ वर्सा पुण्यांत ताणें 'मराठा चेंबर ऑफ कॉमर्स अँड इंडस्ट्रीज' ची स्थापणूक केली. ताका लागून महाराष्ट्रांतली कारखानदारी वाडली, नवे उद्देजक निर्माण जाले. सुरवातेक सावन भट हाणें ह्या चेंबराचो कार्यवाह म्हणून मोलादीक वावर केलो.

'बृहन्महाराष्ट्र शुगर सिंडिकेट' आनी 'कोयना प्रकल्प' चालीक लावपाक चेंबराचो म्हत्वाचो वांटो आसा. १९६३ वर्सा ताणें भारतांतल्या ल्हान उद्देगांची सोळाशें पानांची वळेरी तयार केली. तशेंच, भारतांत लघुउद्देग संवर्धनाचें धोरण आंखपाविशीं ताणें मोलादीक वावर केलो. १९४४ वर्सासावन चेंबराचें मुखपत्र म्हणून 'संपदा' म्हयनाळें उजवाडा येवंक लागलें.

- कों. वि. सं. मं.

## भट, कृष्णनाथ रामचंद्र : (जल्म : १२ मार्च १९२९, पैंगीण-काणकोण).

सुटकेझुजारी. सुटके चळवळीच्या काळांत वण्टीपत्रकां लावप, बातम्यो पावोवप, तिरंगी बावटे लावप असलीं कामां तो करतालो. क्रांतीविरांक त्रास दिवपी जेरोनीम बार्रेटो हाच्या खुनाचो आरोप दवरून ताका अटक जाली. तीन म्हयने ताका बंदखणींत दवरून उपरांत आग्वाद बंदखणींत व्हेल्लो. ३० ऑगस्ट १९५७ दिसा ताका प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून २५ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १९७३ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## भटके : (पळेयात हेडगी जमात).

## भटनागर, शांतिस्वरूप : (जल्म : २१ फेब्रुवारी १८९४, भेडा, शाहपूर, पाकिस्तान; मरण : १ जानेवारी १९५५, नवी दिल्ली).

नामनेचो भारतीय रसायनशास्त्रज्ञ. लाहोर हांगाच्या फोरमन ख्रिस्त कॉलेजींत शिक्षण घेवन १९१८ वर्सा ताणें एम.एससी. ही पदवी घेतली. त्याच वेळार ताचो रुचिराम सहानी आनी सर जगदीशचंद्र बोस ह्या नामनेच्या शास्त्रज्ञांकडेन संबंद आयलो. ताका लागून ताका विज्ञानाची गोडी लागली. फोरमन ख्रिश्चन कॉलेजींत कांय काळ प्रयोगनिर्देशक म्हणून काम करतकच १९१९ वर्सा तेच कॉलेजीवतीन ताका शिश्यवृत्ती मेळ्ळी आनी तो लंडन विद्यापिठांत संशोधनाखातीर गेलो. थंय ताका सर विल्यम रॅम्झी इन्स्टिट्युटांत एफ. जी. डोनान ह्या रसायनशास्त्रज्ञाचें मार्गदर्शन मेळ्ळें. थंयच प्रिव्ही काउन्सिलची एक शिश्यवृत्ती मेळून सुटयेच्या काळांत जर्मनींतल्या कायसर व्हिल्हेल्म इन्स्टिट्युटांतल्या आनी पॅरीसांतल्या सॉरबॉन विद्यापिठांतल्या प्रयोगशाळांनी अध्ययन करपाची ताका संद मेळ्ळी.



१९२१ वर्सा भटनागर हाणें कांय पायसांच्या भौतिक- रसायनीक गुणधर्मांविशीं संशोधन करून लंडन विद्यापिठाची डी. एससी. पदवी घेतली. उपरांत भारतांत येतकच पंडीत मदन मोहन मालवीय हाचे विनवणेक लागून ताणें बनारस विद्यापिठांत हिंदू रसायनशास्त्राचें प्राध्यापकपद आपणायलें. १९२४ वर्सा तो लाहोरच्या पंजाब विद्यापिठांत भौतिकीयरसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आनी थंयचे रसायनशास्त्रीय प्रयोगशाळेचो संचालक जालो. १९२६ वर्सा सावन ताणें चुंबकीयरसायनशास्त्रांतल्या संशोधनाक आरंभ केलो. ह्या विशयाच्या अभ्यासांत उपयुक्त आशिल्लें चुंबकीय व्यतिकरण संतुलनमापक हें उपकरण के. एन. माथुर हाच्या आदारान तयार करून ताचें पेटंट मेळयलें. हें पेटंट ताणें ॲडम अँड हिल्गर्स ह्या शास्त्रीय उपकरणां तयार करपी ब्रिटीश कंपनीक विकलें. त्यावेळार चुंबकीयरसायनशास्त्राचेर जगांतल्या कितल्याशाच प्रयोगशाळांनी संशोधन सुरू आशिल्ल्यान ह्या उपकरणाचो खूब खप जालो. भटनागर आनी माथुर हांणी बरयल्लो 'फिझिकल प्रिन्सिपल्स अँड ॲप्लिकेशन्स ऑफ मॅग्नेटोकेमिस्ट्री' हो चुंबकीय रसायनशास्त्रावयलो पयलोच ग्रंथ १९३५ वर्सा उजवाडा आयलो. चुंबकीय रसायनशास्त्राचो ताणें पायसे, कागदावयले कार्बनी द्रव्यांचे थर आनी तांचें रसायनीक संघटन ह्या अभ्यासांत उपेग केलो.

उपरांत ताणें उद्देगीक संशोधनाक सुरवात केली. उसाची मळी, ताग आनी कापूर हांचो कोयर आनी नाल्लाच्यो कड्ट्यो असल्या उपेग

नाशिल्ल्या वस्तूंसावन उपयुक्त द्रव्यां मेळोवपाची प्रक्रिया ताणें विकसीत केली.

१९३६ वर्सा ताणें स्टील ब्रदर्स हे वेपारी कंपनीक खनीज तेलाविशीं कांय उद्देगीक अडचणी सोडोवपाक संशोधन करून मोलादीक आदार केलो. हेखातीर हे कंपनीन ताका जें मानधन दिलें तातूंतल्यान भटनागरान पंजाब विद्यापिठांत 'स्टील ब्रदर्स संशोधन प्रकल्प' चालीक लावपाखातीर एके खास प्रयोगशाळेची स्थापणूक केली.

दुसरें म्हाझूज सुरू जातकच १९४० वर्सा त्या काळच्या हिंदुस्थान सरकारान एक विज्ञानीक आनी उद्देगीक संशोधन मंडळ स्थापन केलें. १९४२ वर्सा ह्या मंडळाचें 'काउन्सिल ऑफ सायंटिफिक ॲंड इंडस्ट्रियल रिसर्च' ह्या मंडळांत रुपांतर जालें आनी भटनागराची ह्या मंडळाचो पयलो संचालक म्हणून नेमणूक जाली.

१९४४ वर्सा ब्रिटन अमेरिका, कॅनडा ह्या राश्ट्राचे भोंवडेर गेल्ल्या भारतीय विज्ञानीक शिश्टमंडळांत भटनागराचो आस्पाव जाल्लो. हे भोंवडेरसावन परततकच स्वतंत्रपणान विंगड विंगड विशयांचेर संशोधन करपाखातीर स्वयंपूर्ण प्रयोगशाळा स्थापन करपाचें ताणें सरकाराक पटोवन दिलें.

भारत स्वतंत्र जातकच पंडीत जवाहरलाल नेहरू हाचें दूरदर्शी विज्ञानीक धोरण आनी भटनागराच्या यत्नांक लागून भारतांत १४ राश्ट्रीय प्रयोगशाळांची माळ निर्माण जाली. हाका लागून भारतांत विंगड विंगड विज्ञानीक फांट्यांतल्या पद्दतशीर संशोधनाक भटनागराच्या कश्टांक लागून मोलादीक गती मेळ्ळी.

१९५१ वर्सा स्थापन जाल्ल्या 'सैमीक साधनसंपत्ती आनी विज्ञानीक संशोधन' ह्या मंत्रालयाचो पयलो सचीव म्हणून भटनागराची नेमणूक जाली. ह्या पदाचेर आसतना ताणें भेदक किरण वा कण भायर उडोवपी खनिजां, गंधक आशिल्लीं खनिजां, खनीज तेल हांचे भारतांत आशिल्ले सांठे सोदपाच्या कार्याक गती दिली.

१९५४ वर्सा तो अखिल भारतीय तांत्रिक शिक्षण मंडळाचो सचीव जालो. विद्यापीठ अनुदान मंडळाचो पयलो अध्यक्ष म्हणुनूय ताणें कांय काळ काम केलें. आपल्या सहकाऱ्यांच्या आदारान ताणें उद्देगीक नदरेन गरजेच्या आशिल्ल्या द्रव्यांचे निर्मितीच्यो प्रक्रिया सोदून काडल्यो. विज्ञानीक आनी शिक्षणीक क्षेत्रांतले शासकीय व्याप सांबाळून लेगीत ताणें आपलें संशोधनकार्य चालूच दवरिल्लें. ताका जायत्या रसायनीक प्रक्रियांचें आनी उपकरणांचें पेटंट मेळिल्लें.

भटनागराक, ताच्या मोलादीक वावराखातीर जायते भोवमान फावो जाले. ब्रिटीश सरकारान १९३६ वर्सा ताका 'ऑर्डर ऑफ द ब्रिटीश एंपायर' आनी १९४१ वर्सा 'नायट' हो किताब दिवन भोवमान केलो. ऑक्सफर्ड, पाटणा, अलाहाबाद, लखनौ, आग्रा आनी सागर ह्या विद्यापिठांनी ताका मानादीक पदव्यो दिल्यो. भारत सरकारान ताका 'पद्मविभूषण' हो किताब दिलो. १९४३ वर्सा लंडनच्या रॉयल सोसायटी आनी सोसायटी ऑफ कॅमिकल इंडस्ट्रीचो उपाध्यक्ष म्हणुनूय ताची निवड जाली.

भारतीय विज्ञान परिशदेच्या रसायनशास्त्र फांट्याचो १९२८ वर्सा तशेंच १९३८ वर्सा तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९४५ वर्सा नागपूरांत भरिल्ल्या अधिवेशनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. इन्स्टिट्यूट ऑफ कॅमिस्टस ऑफ ग्रेट ब्रिटन हे संस्थेचें वांगडीपण मेळोवपी तो पयलो भारतीय शास्त्रज्ञ आशिल्लो.

ताणें संशोधनाचेर सुमार १७० निबंद आनी लेख बरयले. ताचो 'इलमुलबर्क' हो विद्युत् शास्त्रावयलो उर्दू ग्रंथ आनी 'लाजवंती' हो उर्दू कविता-झेलो हीं पुस्तकां आसात.

१९५७ वर्सासावन भटनागर हाचे यादीक दर वर्सा काउन्सिल ऑफ सायंटिफिक ॲंड इंडस्ट्रियल रिसर्चचे वतीन तरणाट्या भारतीय संशोधक आनी तंत्रज्ञ हांणी केल्ल्या म्हत्वाच्या संशोधनाक योग्य मान्यताय मेळपाखातीर पांच ते स 'शांतिस्वरूप भटनागर पारितोषिकां' दितात. हें इनाम ४५ वर्सांपरस उणी पिराय आशिल्ल्या शास्त्रज्ञाक मेळटा. हें इनाम मेळचे पयलींच्या पांच वर्सांच्या काळांत केल्ल्या भौतिकीय, रसायनीक, जीवविज्ञानीक, अभियांत्रिकीय, वैजकीय, गणितीय वा हेर विज्ञानांनी केल्ल्या म्हत्वाच्या संशोधनाखातीर दितात.

- कों. वि. सं. मं.

## भट, यशवंत वासुदेव : (जल्मः २ जून १९३४, लोलयें-काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताका मराठी, पुर्तुगेज आनी इंग्लीश भाशांचें वाचपा आनी बरोवपापुरतें वेव्हारीक ज्ञान आशिल्लें. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेंचो तो वांगडी आशिल्लो. हे संघटनेचे वतीन कारवाराक बसका घेवप तशेंच लोकांमदीं राजकीय जागृताय हाडपाचें काम तो करतालो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. त्याच दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. ताका आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त आनी दर दिसा २० इश्कुद हेप्रमाण दोन वर्सां दंड भरूंक लायलो वा हाचेबदला आनीक दोन वर्सांची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच वीस वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. १ जुलय १९५९ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**भट्ट, उदयशंकर :** (जल्म : ३ ऑगस्ट १८९८, इटावा; मरण: १९६६);

आर्विल्लो हिंदी कवी, नाटककार , एकांकिकार आनी कांदबरीकार. उदयशंकराचे पुर्वज मूळ गुजरातांतल्या सिंहपूरचे. थंयसावन ते इंदूर संस्थानांत येवन थंयच्या बुलंदशहर जिल्ह्यांतल्या कर्णदास ह्या गांवांत रावपाक लागले.

उदयशंकराचो आजो दुर्गाशंकर आनी बापूय मेहता फतेहशंकर हांच्या संस्कृत व्यासंगाक लागून उदयशंकरानूय संस्कृत भाशा साहित्याचें अध्ययन केलें. ताचो बापूय ब्रज भाशेंतल्यान कविता बरयतालो. आपल्या बापायकडल्यान प्रेरणा घेवन उदयशंकरानूय ब्रज भाशेंत काव्य रचपाक सुरू केलें.

काशी हिंदू विद्यापिठांतल्यान ताणें बी. ए. ची पदवी घेतली आनी उपरांत पंजाब विद्यापिठांतल्यान 'शास्त्री' आनी कलकत्त्यासावन 'काव्यतीर्थ' ह्यो पदव्यो संपादन केल्यो. लाहोरांतल्या लाला लजपतराय हाचे नॅशनल कॉलेजींत, तशेंच खालसा कॉलेज आनी सनातन धर्म कॉलेज हातूंत अध्यापन केलें. स्वातंत्र्य चळवळींतूय ताणें वांटो घेतलो.स्वातंत्र्या उपरांत आकाशवाणीचो सल्लागार आनी निर्देशक म्हणुनूय काम केलें.

उदयशंकराचो पयलो काव्यझेलो 'तक्षशिला' १९३१ वर्सा उजवाडा आयलो. ताच्या काव्याचेर छायावादाचो पगडो आसलो तरी तातूंतल्या विशयांत खूब वेगळेंपण आसा. ताच्या काव्यांतल्यान निर्शेल्लेंपण,दैववाद, नवे जागृतायेचो उलो आनी देशभक्ती हांचें दर्शन घडटा. ताचे हेर कांय काव्यझेले अशे आसात. 'राका' (१९३५), 'मानसी' (१९३९), 'अमृत और विष' (१९३९), 'विसर्जन' (१९३९), 'युगदीप' (१९४४), 'विजयपथ' (१९५०).

नाटकां आनी एकांकी हांचेखातीर उदयशंकराक चड नामना मेळ्ळी. ताणें पुराणीक, इतिहासीक, समाजीक अशीं विंगड विंगड विशयांचेर नाटकां बरयलीं. 'कमला' (१९३९), 'अंबा' (१९३५) आनी 'मत्स्यगंधा' (१९३७) ह्या ताच्या पुराणीक नाटकांनी परंपरेन चलत आयिल्ल्या दादल्याच्या अहंकारी आनी अधिकारशाये आड बायलेचें बंड, दुबळेंपण आनी निमाणें स्वताक सोंपोवपाची वृत्ती ह्यो गजाली प्रभावीपणान दिश्टी पडटात. 'मत्स्यगंधा', 'विश्वामित्र' (१९३८), 'राधा' (१९४१), 'कालिदास' (१९५०) ह्या पद्यमय भावनाट्यांनी मनांतले साबार विकार, वासना, नैतिक मुल्यां, विवेक हांच्या संघर्शाचें चित्रण दिसता. ताच्या 'विक्रमादित्य' (१९३३), 'दाहर अथवा सिंधपतन' (१९३३), 'मुक्तिपथ' (१९४४) आनी 'शक विजय' (१९४९) ह्या इतिहासीक नाटकांचेर अस्तंते नाट्यशैलीचो प्रभाव दिश्टी पडटा. 'अंतहीन अंत' (१९३७), 'नया समाज' (१९५५), 'जीवन और संघर्ष' हीं कांय ताचीं उल्लेख करपासारकीं नाटकां आसात.

उदयशंकरान आपल्या एकांकिकांनी आर्विल्ल्या काळांतल्या मध्यमवर्गीय मनशाच्यो अर्थीक आनी समाजीक अडचणी उक्तायल्यात. अंधश्रध्दा, सुवार्थ सादपाची वृत्ती, भ्रश्टाचार हांचेर टिका केल्या. ताचे 'अभिनव एकांकी नाटक' (१९४०), 'स्त्री का हृदय' (१९४२), 'आदिम युग' (१९४८), 'समस्या का अंत' (१९४८), 'धूमशिखा' (१९४९), 'अंधकार और प्रकाश' (१९५२), 'पर्दे के पीछे' (१९५३) हे एकांकीझेले उजवाडा आयल्यात. ताच्या एकांकीचो एक खाशेलो प्रकार म्हळ्यार नभोनाट्य. आकाशवाणीचेर स्वता काम केल्ल्यान उदयशंकरान खुबशीं नभोनाट्यां बरयलीं. आदिम युग, समस्या का अंत हीं ताचीं उल्लेख करपासारकीं नभोनाट्यां.

ताणें बरयल्ल्यो कांय कादंबऱ्यो अशो आसात - 'सागर लहरें और मनुष्य' (१९५५), 'एक नीड दो पंछी' (१९५६-पोरनें नांव 'वह जो मैने देखा'), 'लोक परलोक' (१९५८), 'डॉ. शेफाली' (१९६० - पोरनें नांव 'नये मोड'), 'शेष अशेय' (१९६०).

- कों. वि. सं. मं.

**भट्टदेव :** (जल्म : इ. स. १५५८ जि. कामरूप; मरण : इ. स. १६३८).

एक वैश्णव भक्त आनी असमिया गद्याचो जनक. भट्टदेवाचें मूळ नांव वैकुंठनाथ कविरत्न भागवत भट्टाचार्य. ताचो बापूय चंद्रभारती नामनेचो पंडीत आशिल्लो. वैश्णव धर्माची दिक्षा घेवंचे पयलीं भट्टदेव शाक्त आशिल्लो, अशें कांय अभ्यासक मानतात.

भट्टदेवाचेर गुरू दामोदरदेवाचो बरोच प्रभाव आशिल्लो. गुरूचेच प्रेरणेन ताणें 'भागवतपुराण' आनी 'गीतेचो' असमिया भाशेंत अणकार केलो. ताणें जायते ग्रंथ बरयले, पूण ताच्या 'कथा-भागवत' आनी 'कथा-गीता' ह्या अणकारांखातीर ताका चड नामना मेळ्ळी.

सोळाव्या शेंकड्यांत सगळया भारतीय भाशांनी साहित्याचें माध्यम म्हणून पद्याचोच वापर जातालो. पूण भट्टदेवान 'भागवतपुराण आनी 'गीता' हांचे गद्य अणकार व्हड धिरान करून दाखयले. संस्कृत व्याकरण आनी साहित्यांत पारंगत आशिल्ल्यान ताका 'भागवत भट्टाचार्य' ही उपाधी मेळ्ळी. आध्यात्मिक आनी तत्त्वीक विचार उक्तावपा खातीर ताणें गरज दिसता थंयच संस्कृत उतरांचो उपेग केला. दोनूय ग्रंथ फकत अणकारीत नासून, भट्टदेवान आपले नदरेंतल्यान मूळ विशयाची स्वतंत्रपणान विस्कटावणी केल्ल्याची दिसता. वैश्णव साहित्याखातीर ब्रजबुलीचो वापर करीनासतना ताणें असमियाचोच वापर केलो.

भट्टदेवाची गद्य लिखाणाची ही शैली फुडले पिळगेंतल्या लेखकांखातीर आदर्श थारली. तशेंच ताचे कथा-भागवतांतले शैलीचो प्रभाव संतचरित्राचेर लिखाण करपी लेखकांचेर पडिल्लोय दिश्टी पडटा.

ताच्या गद्य लिखाणांत संवादांच्या रुपांत बरोवपाची पद्दत, तशेंच तर्कशुध्द मांडणी आनी सादी, सोंपी, सरळ भाशा हीं खाशेलपणां आसात.

भट्टदेवाचे कांय संस्कृत ग्रंथूय आसात. 'भक्तिविवेक' हो तातूंतलोच एक नामनेचो ग्रंथ. भट्टदेवालो 'कथा-गीता' हो व्हड ग्रंथ, हेमचंद्र गोस्वामी हाणें शास्त्रीय रितीन संपादीत करून १९१८ वर्सा उजवाडायलो.

- कों. वि. सं. मं.

**भट्टनारायण :** (इ. स. च्या सातव्या शेंकड्याच्या निमाणें वा आठव्या शेंकड्याचे सुरवेक).

संस्कृत नाटककार. वेणीसंहार ह्या विख्यात नाटकाचो कर्तो. ताचे वैयक्तिक जिणेविशीं निश्चीत अशी म्हायती मेळना. पूण कांय अभ्यासकांच्या मताप्रमाण तो कान्यकुब्ज देशांत रावपी शांडिल्यगोत्री ब्राह्मण आशिल्लो. बंगालच्या आदिसूर राजाच्या निमंत्रणावयल्यान जीं पांच कनौजी ब्राह्मण कुटुंबां बंगालांत गेलीं, तातूंत भट्टनारायणाचें कुटूंब आशिल्लें. राजान नांवापुरतें मोल घेवन ताका कांय गांव विकले आनी तो जमीनदार जालो. कांय संशोधकांच्या मतान, बंगालांतलें टागोर राजघराणें ताचेपसून सुरू जालें.

भट्टनारायणान महाभारताचो खोलायेन अभ्यास केल्लो. ताका लागून ताचे बुद्दीक प्रगल्भताय आयिल्ली. साहित्य आनी नाट्य ह्याय शास्त्रांनी तो पारंगत आशिल्लो. हेचखातीर ताचें वेणीसंहार हें नाटक रस आनी तंत्र ह्या दोनूय नदरांनी बरे तरेन उतरलां. ताणें आपल्या नाटकांत विंगड विंगड अठरा वृत्तांचो व्हड कुशळतायेन उपेग केला. ताची 'भट्ट' ही ताका मेळील्ली उपाधी. वेणीसंहारांतल्या कांय उल्लेखां वयल्यान, वैश्णव धर्माकडेन ताचो कल आशिल्ल्याचें दाखयतात.

'वेणीसंहार' नाटकाचें थोडेभितर कथानक अशें आसा- द्रौपदीच्या केंसांक धरून दुःशासनान तिका भर सभेंत भरभरीत ओडून हाडली. दुर्योधनान आपले उकते मांडयेर तिका बसपाक सांगलें. ताच्या ह्या कृत्यान भीमाक भयंकर राग आयलो. पूण युधिष्ठिरान ताका आडायल्ल्यान तो कांयच करूंक शकलोना. तेन्ना भीमान प्रतिज्ञा केली, आपूण दुःशासनाचें हर्डे फोडून ताचें हून रगत पियेतलों, तशेंच दुर्योधनाची मांडी फोडून ताचे तकलेर खोंट घालतलों आनी आपल्या रगताळिल्ल्या हातांनी, दुःशासनान ओडून हाडिल्ल्या द्रौपदीच्या मेकळ्या केंसांची विणी घालतलो. भीमान आपल्या पराक्रमान ही प्रतिज्ञा पुराय केली अशें त्या नाटकांत दाखयलां. महाभारतांतत दुर्योधन आनी दुःशासन हांचेविशीं भीमान केल्ली प्रतिज्ञा आसा. पूण थंय द्रौपदीची विणी घालपाची प्रतिज्ञा ना. ही कल्पना भट्टनारायणाक ताचे प्रतिभेंतल्यान येवजली आनी महाभारतांत नासतना लेगीत ती लोकांमदीं तिगून उरली.

भट्टनारायणाचें 'वेणीसंहार' हें एकूच नाटक आयज उपलब्ध आसा. ताची नेमाप्रमाण रचणूक, मांडणी, काव्य आनी नाट्य हांचो मेळ हाका लागून तें साहित्यशास्त्रज्ञ आनी संस्कृत नाटकाच्या प्रेक्षकांमदीं लोकप्रिय जालें.

दंडीच्या दशकुमारचरिताच्यो पूर्वपीठिका शेणिल्ल्यान भट्टनारायणान, त्यो बरोवन दशकुमारचरित पुराय केलें. ताच्या नांवाचेर जानकीपरिणय नांवाचें आनीक एक नाटक उल्लेखीत केल्लें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**भट्ट, बांदकर, कृष्णाजी :** (पळेयात बांदकर भट्ट कृष्णाजी).

**भट्ट, बालकृष्ण :** (जल्म : ३ जून १८४४ अलाहाबाद; मरण : २० जुलय १९१४, अलाहाबाद).

हिंदी साहित्याच्या इतिहासांतलो एक नामनेचो निबंदकार, समिक्षक आनी पत्रकार. ताचो बापूय वेपारी आशिल्लो. आवयन ताका शिक्षणाची गोडी लायली. पयलीं तो संस्कृत शिकलो. उपरांत अलाहाबादच्या मिशन स्कुलांतल्यान मॅट्रीक पास जालो. हेच शाळेंत उपरांत तो शिक्षक म्हणून काम करूंक लागलो. पूण रोखडोच ताणें हे नोकरेचो राजिनामो दिलो आनी संस्कृत विशयाचो खोलायेन अभ्यास सुरू केलो.

पयलीं अलाहाबाद हांगाचे सी. ए. वी. स्कूल हे संस्थेंत आनी उपरांत कायस्थ पाठशाळा म्हाविद्यालयांत ताणें संस्कृताचें अध्यापन केलें. पूण आपल्या राजकीय विचारांक लागून हेय नोकरेचो ताणें राजिनामो दिलो. तेन्ना ताका खूबशा अर्थीक अडचणींक तोंड दिवचें पडलें.

१८७७ वर्सा ताणें अलाहाबाद हांगासावन हिंदू वर्धिनी सभेवतीन नाटक, इतिहास, साहित्य, तत्त्वज्ञान, राजकारण, विनोद ह्या विशयांचें 'हिंदी प्रदीप' नांवाचें एक म्हयनाळें सुरू केलें. हें म्हयनाळें ताणें ३३ वर्सां चलयलें आनी १९०९ वर्सा तें बंद पडलें.

बालकृष्णान समिक्षा, नाटक, कादंबरी आनी कथा हेय साहित्यप्रकार हाताळ्ळे. पूण हिंदी साहित्यांत निबंद, समिक्षा आनी पत्रकारिता हातुंतूच ताका चड नामना मेळ्ळी. ताच्या निबंधांची संख्या हजारावयर आसा. तातूंतले सुमार १०० निबंध उत्कृश्ट मानतात. ताणें आपले निबंद राजकीय, समाजीक, साहित्यीक आनी हेर विंगड विंगड विशयांचेर बरयल्यात. तेखातीर ताचो हिंदी भाशेचो 'ॲडिसन' म्हणून भोवमानान उल्लेख करतात. बालकृष्णाच्या काळांतल्या लेखकांचेर ताचो बरोच प्रभाव पडलो आनी खूबशा लेखकांक प्रेरणाय मेळ्ळी. १८८१ वर्सा ताणें वेदांची मार्मिक समिक्षा केली. १८८६ वर्सा ताणें संयोगिता स्वयंवराचेर खर टिका बरयली.

ताणें कांय कादंबऱ्यो, कथा आनी समाजीक, पुराणीक नाटकांय

बरयल्यांत. हिंदींत समाजीक जाणविकायेचे नदरेंतल्यान साहित्य समिक्षा बरोवपाचो बालकृष्णानूच सगळयांत पयलीं यत्न केला. ताणें आपलें चडशें लिखाण समाजीक प्रेरणेंतल्यानूच केलें. ताच्यो कांय उल्लेख करपासारक्यो साहित्यकृती अशो आसात- 'नूतन ब्रह्मचारी' (१८८६), 'सौ अजान एक सुजान' (१८९०), 'गुप्त वैरी' (१८८२), 'दक्षिणा' (१८८४), 'रसातल' (१८९२), 'हमारी घडी' ह्यो कादंबऱ्यो.

**नाटकां** - 'चंद्रसेन' (१८७७), 'पद्मावती' (१८७८), 'सीता वनवास' (१८८२), 'नलदमयंती' (१८९७), 'शिशुपालवध' (१९०३), 'शिक्षादान या जैसेको तैसा' (१९१२), 'पृथुचरित या वेणीसंहार' (१९४८).

**निबंध** - 'साहित्य सुमन (१८८६), 'भट्ट निबंधावली' (२ वांटे- १९४१, १९४२), 'भट्ट निबंधमाला' (२ वांटे-१९४७).

'हिंदी प्रदीप' हें म्हयनाळें चलोवन आनी विंगड विंगड विशयांचेर लिखाण करून ताणें राश्ट्र जागृतायेचें कार्य केलें. भारतेंदू उपरांतच्या काळांतलो निबंदकार, समिक्षक आनी पत्रकार म्हणून ताका हिंदी साहित्यांत भोव मानाची सुवात आसा. ताच्या लिखाणाचेर भारतेंदूचो प्रभाव पडिल्लो दिसता.

जिणेचे निमाणेकडेन श्यामसुंदर दास हाणें ताका हिंदी शब्दकोशाचो संपादक म्हणून आपयलो. पूण रोखडेंच ताणें तें काम सोडलें आनी अलाहाबाद हांगा ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

## भट्टाचार्य, बीरेंद्रकुमार : (जल्म : २४ मार्च १९२४, सिबसागर-आसाम).

ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाल्लो नामनेचो आसामी कादंबरीकार आनी कवी. चफरीचे मुळावे शाळेंत तशेंच ककजनचे एम. ई. शाळेंत ताणें सुरवेचें शिक्षण घेतलें. १९४१ त तो जोरहाट हायस्कुलांत मॅट्रीक जालो. गुवाहाटीच्या कॉटन म्हाविद्यालयांतल्यान १९४३ त ताणें बी. एससी. आनी १९४५त बी. ए. ची पदवी मेळयली. १९५३ त तो गुवाहाटी विश्वविद्यालयांतल्यान एम. ए. जालो. १९७९ त ताका 'असमिया साहित्यांतले विनोद आनी विडंबन' ह्या नांवाच्या प्रबंधाखातीर ताणें पीएच. डी. पदवी मेळयली. १९४५ त ताणें 'बांहि' (बांसरी) ह्या साहित्य म्हयनाळ्याचें, १९४६ त 'ॲडवान्स' ह्या इंग्लीश सातोळयाचें, १९४७-४९ ह्या काळांत 'असमिया' ह्या दिसाळयाचें आनी १९४९-५१ ह्या काळांत 'जनता' ह्या सातोळयाचें सहसंपादन केलें. हांचेभायर १९५३-६३ ह्या काळांत तो आसामींतलें नामनेचें सातोळें 'रामधेनू' (इंद्रधोणू) हाचो आनी १९६३-६७ ह्या काळांत 'नवा युग' ह्या (खूब खप अशिल्लें) सातोळयांचो तो संपादक आशिल्लो. ताचे उपरांत कांय काळ ताणें पत्रकार म्हणून काम केलें. फुडें गुवाहाटी विश्वविद्यालयांत वृत्तपत्रविद्या विभागांत प्रपाठक म्हणून तो काम करूंक लागलो.

१९४२चे चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. कलाकत्ता हांगा जाल्ल्या भिरांकूळ हत्याकांडांत ताचो खाशेलो इश्ट अमुल्य बरुआ हाची हत्या जाल्ली. ताचो ताच्या मनाचेर बरोच आधात जाल्लो. १९४९त मियानमारचे शिमेलागसल्ल्या उखरूल नांवाच्या एका नागा खेड्यांत तो शिक्षक म्हणून गेलो. थंय तो चार वर्सां रावलो. त्या काळांत ताणें नागा लोक आनी तांचो वाठार हांची पुरय म्हायती मेळयली. फिझोचे फुटीर चळवळींतल्यान ताका भायर काडून भारतीय राश्ट्रवादाक घटसाण हाडपाखातीर ताणें नागा तरणाट्यांचीं मनां घुंवडावपाचो यत्न केलो.

ताणें सुमार २५ पुस्तकां बरयल्यांत. तातूंतलीं म्हत्वाचीं अशीं: 'आई' (१९६१), 'इयरुइंगम' (१९६१), कलोंज अजियो बोई' (१९६२), 'सातशाझी' (१९६२), 'शतघ्नु' (१९६५), 'मृत्युंजय' (१९७०), 'प्रतिपद' (१९७०), 'कबर अरु फुल' (१९७२), 'बल्लरी' (१९७३), 'राजपथे रिंगियाई' (१९५७). हातूंतले इयरुइंगम हे कादंबरीक ताका १९६१चो साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळो; जाल्यार मृत्युंजय हे कादंबरीक ताका १९७९ वर्साचो ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळो. ल्हान पिरायेचेर हो पुरस्कार मेळोवपी तो पयलो लेखक अशें म्हणून येता.

'इयरुइंगम' हे कादंबरींत दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून विस्कटीत जाल्ल्या नागा लोकांच्या भावनीक जिविताचें वास्तव चित्रण दिश्टी पडटा.

ताणें 'मृत्युंजय' ही कादंबरी १९४२च्या सुटके झुजाचे फाटभुंयेर बरयल्या. हे कादंबरेंत आसामांतल्या नौगाँग जिल्ह्यांतल्या अस्तंत वाठारांत घडिल्ल्या घडणुकांचें वर्णन आसा. सुटकेझुजाऱ्यांच्या एका पंगडान सैनिकांक घेवन वचपी आगगाडी कशी उमथून उडयली ही कांदबरीची मध्यवर्ती कल्पना आसा.

समाजाचें वास्तव चित्रण आनी मोवाळ भास हें ताचे बरपावळीचें खाशेलपण. टॉमस हार्डी, टॉलस्टॉय, डॉस्टॉव्हस्की, हेमिंग्वे आदी लेखकांच्या बरपावळींपसून ताका स्फूर्त मेळ्ळी. महात्मा गांधीचें तत्त्वगिन्यान आनी जयप्रकाश नारायण हाचे विचारसरणीचो ताचेर प्रभाव पडिल्लो.

ताणें कांय नाटकां, तशेंच कविताय रचल्यात. एक सर्जनशील पत्रकार, प्रतिभासंपन्न कवी आनी कादंबरीकार म्हणून ताणें असमिया साहित्यांत खूब नामना जोडल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## भट्टिकाव्य : एक संस्कृत महाकाव्य. ह्या काव्याचें मूळ नांव रावणवध.

पूण ह्या काव्याच्या कर्त्याचें नांव भट्टी आशिल्ल्यान काव्याकूय भट्टिकाव्य अशेंच नांव पडलें.

गुजरात देशांतल्या वलभी हे नगरींत, श्रीधरसेनाचे राजवटींत

भट्टीन हें काव्य रचलें. तेखातीर भट्टीक गुजराताचो पयलो कवी मानतात. भट्टी ४९५ ते ६४१ ह्या काळांत केन्ना तरी जावन गेला अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. भट्टी हो श्रीमाळी ब्राह्मण, श्रीधरसेनाचो सभापंडीत तसोच राजकुंवरांचो गुरूय आशिल्लो अशें भोलाशंकर व्यास हाणें सांगलां.

भट्टिकाव्याचे २२ सर्ग आनी १,६२५ श्लोक आसून ते चार कांडांनी बरयल्यात. तीं कांडां अशीं :

१. **प्रकीर्णकांड :** हातूंत पयले पांच सर्ग येतात. रामाच्या जल्मापसून सीतेक रावण उबारून व्हरता, इतलेमेरेनची कथा हातूंत आयल्या.

२. **अधिकारकांड** : स ते णवव्या सर्गामेरेन हें कांड आसा. हातूंत सुग्रीवाच्या राज्याभिशेकापसून, लंकेंतले अशोकवाटिकेंत गेल्ल्या मारुतीक राकेसांनी धरून रावणाफुडें उबो केलो इतलेमेरेन कथा आसा.

३. **प्रसन्नकांड :** धा ते तेरा सर्गांमेरेन हें कांड आसा. हातूंत रामाच्या सेतू बांदपामेरेन कथा आयल्या.

४. **तिडन्तकांड** : चवदा ते निमाणच्या सर्गामेरेन हें कांड आसा. हातूंत रावणवधासावन रामाच्या राज्याभिशेकामेरेन कथा आसा.

रामाची कथा हो जरी काव्याचो विशय आसलो, तरी ताचो मुखेल हेतू व्याकरण, काव्यशास्त्र, साहित्य हांच्या नियमांच्यो सविस्तर देखी दिवप हो आसा. पुर्विल्ले संस्कृत अध्ययनपद्दतींत पंचमहाकाव्यांभितर भट्टिकाव्याचो आस्पाव केल्लो. सुमार तेरा टिका ह्या काव्याचेर बरयल्यात. तातूंतल्यो 'जयमंगला' आनी 'मल्लिनाथी' ह्यो उल्लेख करपासारक्यो आसात. हें काव्य अल्पमती आशिल्ल्यां खातीर नासून पंडितांखातिरूच आसा अशें स्वता कविनूच निमाणें सुचयलां. ह्या काव्याची भास सादी, सरळ आसून १८ ते २२ हे पांच सर्ग जर्मन भाशेंत अणकारल्यात (१८३७).

- कों. वि. सं. मं.

**भडंगे, लक्ष्मण धोंडिराम :** (जल्म : ५ मार्च १९३० येवला, नासिक, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी मुळावेंमेरेन शिक्षण घेतलें. १९५२ वर्सांच्यान ताणें समाजीक चळवळींनी वांटो घेवंक सुरवात केली. भाववाडी आड उलोवप केल्लेखातीर ताका २१ दीस बंदखणींत रावचें पडलें. १९५५ त सत्याग्रह चळवळीचो प्रचार करपांत आनी पैंगीण-काणकोणां जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताचो वांटो आसा. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**भडभुंजे :** एक जात. भड म्हळ्यार कायल आनी भुंज म्हळ्यार भाजप. धान्य भाजपी अशी ह्या उतराची व्युत्पत्ती जाता. मध्य प्रदेश आनी उत्तर भारतांत ह्या लोकांचो राबितो चड आसून महाराष्ट्र आनी गुजरात ह्या प्रदेशांनीय हे लोक आसात.

हे लोक आपणाक कान्यकुब्ज ब्राह्मणांचे वंशज आनी कैया नांवाच्या कायस्थांचे सोयरे मानतात. कहार बापूय आनी शुद्र आवय हांचेपसून भडभुंजांची उत्पत्ती जाली अशें इलियट, शॅरिंग आनी विल्सन ह्या अभ्यासकांचें मत आसा. राजस्थानांतल्या भडभुंजांची उत्पत्ती यदुवंशी रजपुतांपसून आसून, तांचेमदीं हिंदू आनी मुसलमान ह्या दोनूय धर्मांचे लोक आसात. पंजाबांत तांकां 'झिनवार' म्हण्टात. कांय सुवातींनी तांकां भुजवा आनी चतारी ह्या नांवांनीय वळखतात. वाराणसींत भडभुंजांच्यो सात उपजाती आसात. गुजराती भडभुंजांमदीं काश्यप आनी वाल्मिकी अशीं दोन गोत्रां आसात.

महाराष्ट्रांत परदेशी आनी मराठी अशे दोन भाग आसात. मराठी भडभुंजांचीं नांवां जाधव, गायकवाड, शिंदे, पवार अशीं आसून ते शेतकऱ्यांभाशेन वागतात. परदेशी लोक कानपूर, लखनौ, मथुरा, बरेली ह्या वाठारांतल्यान आयल्यात.

भडभुंजांभितर सक्सेना, श्रीवास्तव, झिनवार, भटियार, सुखसेनिया आनी चौहान अशो स मुखेल पोटजाती आसात.

राजस्थानांतल्यो बायलो नाक तोपनात. गळ्यांत भांगराच्यो वस्ती घालपाचीय चाल ना. पूण हातांत लाखेचीं कांकणां घालतात. हळदुव्या रंगाचे कपडेय वापरतात. दादले वालो वा पुडवें न्हेसतात आनी बायलो घागरो न्हेसून ओडणी घेतात.

महाराष्ट्रांतले भडभुंजे स्मार्थपंथीय आसून भैरोबा, भवानी, खंडोबा, महादेव हीं तांचीं दैवतां. तांचे धर्मीक विधी परदेशी ब्राह्मण करतात. गुजराती भडभुंजे वैश्णव धर्मीय आसून तातूंतले कांय स्वामीनारायण पंथांतलेय आसात. तशेंच, कांय रामानंद, वल्लभाचार्य, कबीर आनी हेर उपपंथांचे आसात. राजस्थानांतले भडभुंजे शक्तीचे उपासक आसून ते सोरो-मांसाक आफुडनात. ते आपले कुलदेवतेक दाळ, रोटी आनी तेल दितात. सांचोर ब्राह्मण तांचे पुरयत आसतात.

गोस्वामी महाराज हे तांचे गुरू. घरांतलो कोणूय दुयेंत जालो जाल्यार पुर्वजांच्या शापाक लागून जालो अशें मानतात. उपरांत एक पिठाची बावली करून तिचेर सगळे मरणाचे संस्कार करतात.

भडभुंजे लोकांमदीं ब्राह्मणाकडल्यान लग्नाचो सुवाळो करतात. लग्नांत न्हवरो बायलेचो भेस करून माटवांत नाचता. महाराष्ट्रांतले भडभुंजे लग्नाच्या माटवांत एक शेगडी दवरून तिचेर एक मातयेचें आयदन दवरतात. तेन्ना ब्राह्मण मंत्र म्हण्टा आनी व्हंकलेचो बापूय त्या आयदनांत थोडे थोडे तांबडे तांदूळ उडयत रावता. लग्न व्हंकलेच्या घरा

वा केन्नाय न्हवऱ्यागेर जाता. व्हंकल-न्हवऱ्याच्या हाताक लोखणाचो कुडको आशिल्लें कांकण बांदतात. लग्नांत बांदिल्लें बाशींग, घरांत दुसरें कार्य जायसर दवरतात, ना जाल्यार उदकांत सोडटात.

भडभुंजे आपले पंचक्रोशींत थरावीक गट करतात आनी तांचेभितरूच लग्नां जातात. गुजराती भडभुंजांमदीं आतेभयण आनी मावशेभयणी वांगडा लग्नां जायनात. बायल मेल्यार मेवणेवांगडा लग्न जावं येता.

लग्नांत सप्तपदी हो सुवाळो म्हत्वाचो आसता. विधवेक आपल्या देराकडेन लग्न जावपाक मेळटा. आयतार, मंगळार वा शुक्रार ह्याच दिसांनी विधवेचें लग्न करतात.

हे लोक पिरायेच्या एक ते सात वर्सांच्या दरम्यान जांवळ काडटात. हे लोक मडें लासतात. व्हांवत्या उदकांत अस्थी सोडटात. बायलेचें सुतक णव दीस जाल्यार दादल्याचें धा दीस पाळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**भद्रकाली :** देवीचें एक रूप. भद्र म्हळयार मंगलप्रद अशें जे कालीचें रूप, ती भद्रकाली अशी तिची व्याख्या आसा. तिचे उत्पत्तीविशीं खूब कथा आसात त्यो अशो

१. एकदां पार्वतीन शंकराचो अपमान केलो देखून शंकरान तिका शाप दिवन भुंयेर धाडली. तीच ही भद्रकाली. शिवान दैत्यांच्या बंदोबस्ताचें काम तिका दिलें.

२. आश्विन शुध्द अश्टमीक भद्रकाली कोट्यांनी योगिनींसयत दक्षयज्ञाच्या विध्वंसाखातीर उत्पन्न जाली.


भद्रकाली - तिरूवर्रियुर

३. रावणाचे भक्तीक भुलून शिवान ताका आत्मलिंगावांगडा पार्वतीय दिली. रावण पार्वतीक घेवन लंकेक वता आसतना तिणें विष्णुचो धावो केलो आनी विष्णुन ब्राह्मणाचें रूप घेवन रावणाची वाट आडायली. ताणें रावणाक विचारलें. 'ही काळीकिट्ट आनी भयानक बायल घेवन तूं खंय वता? तेन्ना रावणान ताका ती त्रिभुवनसुंदरी पार्वती आशिल्ल्याचें सांगलें. पूण जेन्ना ब्राह्मणान ताका, खांद्यावयल्यान देंवोवन पळोवपाक सांगलें तेन्ना रावणाक ती खऱ्यांनीच काळी कुरूप दिसली. ताणें तिका थंयच उडयली आनी तो शिवाकडेन झगडपाखातीर कैलासाचेर गेलो. ती बायल जंय उबी रावली थंयच भद्रकाली ह्या नांवान नामनेक पावली. ती सुवात म्हळयार गोकर्ण-महाबळेश्वर.

सुंदर रूप, अठरा भुजांची, तीन दोळ्यांची, चार शींवांच्या रथांत बशिल्ली, अक्षमाला, त्रिशूळ, खड्ग, चंद्र, बाण, धोणू, शंख, पद्म, स्त्रुक्, स्त्रुव, कमंडलू, दंड, शक्ती, अग्नी, कृष्णाजिन, जल आनी रत्नपात्र ह्यो वस्तू धारण केल्ली आनी एक हात अभय मुद्रेंत, अशें तिचें वर्णन विष्णुधर्मोत्तर पुराणांत सांगलां.

कांयकडेन ती सोळा भुजांची जाल्यार कांयकडेन धा भुजांचीय आसा, अशें सांगलां.

दक्षिणेंतल्या गांवगिऱ्या वाठारांनी तिका कालीयम्मा वा कालम्मा म्हणून वळखतात. दक्षिणेंत सदांच तिची नृत्यमूर्त करतात. ते मूर्तीचें ध्यान अशें सांगलां. सोरपाचें वेटाळें आशिल्लो ज्वालायुक्त मुकूट, सगळ्या आंगांतल्यान उज्याच्यो ज्वालो, कपलाचेर भस्म, दोन व्हड भायर आयिल्ले दांत, धा भुजांची, चार हात रिते आसून हेर स हातांनी पाश, शुक, भालो, डमरू, शूळ आनी अग्नी आसता. तिचे भोंवतणीं विघ्नेश्वर, वीरभद्र, अघोर हे तीन देव आसतात.

सगळ्याक भद्रकालीचीं देवळां आसात. महाराष्ट्रांत तिका ग्रामदेवता मानतात. नासिक हांगा तिचें देवूळ आसा. थंय तिची मूर्त आठ भुजांची आसून ती वागाचेर बशिल्ली आसा. वरंगळ हांगा भद्रकालीची णव फूट उंचायेची मूर्त आसा. तिचो एक पांय मड्याचेर आसा. काकतीय राजवंशाची ती कुलदेवता आशिल्ली अशें म्हण्टात.

चिदंबरमाक नाचाचे सर्तींत शिवान तिका हारयली, देखून ती माथ्यार शिवलींग धारण करता, अशी कथा आसा. महिषासुराक भद्रकालिनूच मारला, अशेंय कांयकडेन म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**भयगंड (फोबिया) :** मानसिक विकृतीचें एक सामान्य लक्षण. ताकालागून मनशाक एकाद्रे खाशेले वस्तूचो, जनावराचो वा परिस्थितीचो आगळोच आनी सुमाराभायर भंय दिसता. भंय गेलेउपरांत तो निरर्थक म्हणपाचें मनशाक कळटा. पूण ती भंय घालपी वस्तू टाळपाचो आवेग मात निवारूंक जायना. हें लक्षण जायत्या मनोविकृतींत सांपडटा. देखीक- भयगंड मज्जाविकृती (फोबिक न्यूरोसिस), चिंताजन्य मज्जाविकृती (अँग्झायटी न्यूरोसिस), भावातिरेकी सक्तियुक्त मज्जाविकृती (ऑबसेसिव्ह कंपल्सिव्ह न्यूरोसिस मज्जाविकृती भासपी छिन्नमानस (स्युडोन्युरॉटिक स्किझोफ्रेनिया), बालमनोविकृती (चाइल्डहुड डिसऑर्डर्स).

भयगंडाचे संकल्पनेंत आनी मानसचिकित्साशास्त्रीय वर्गीकरणांत विसाव्या शेंकड्याचे सुरवातीपसून आयजमेरेन बरोच बदल जाल्लो आसा. प्येअर ह्या फ्रेंच मानसचिकित्साशास्त्रीय वर्गीकरणांत विसाव्या शेंकड्याचे सुरवातीपसून आयजमेरेन बरोच बदल जाल्लो आसा. प्येअर ह्या फ्रेंच मानसचिकित्सकान भयगंडाचें वर्णन 'सायकेस्थिया' नांवाच्या विकारांत केल्लें. ताचे उपरांत फ्रॉयड हाणें तशाच लक्षणांचे विकृतीचें वर्णन चिंतोन्माद 'अँगझायटी हिस्टेरीया हे संज्ञेन केलें. कांय वर्सां पयलींच भयगंडात्मक लक्षणांचें वर्चस्व आशिल्ल्या विकृतीक भयगंडयुक्त मज्जाविकृती ही संज्ञा दिवन ताचें स्वतंत्र अस्तित्व मान्य केल्लें आसा.

भयगंडाचो प्रादुर्भाव तरणाट्यांत तशेंच हेर संस्कृतीच्या मानान हिंदू संस्कृतायेंत बायलांत चड सांपडटा. भयगंडाचीं मुखेल लक्षणां-

१) खाशेली वस्तू, जनावर, थळ, परिस्थिती, वायट घडणूक वा रोग हांचेविशीं दिसपी जीवघेणो भंय.

२) ताका लागून उपरासपी शारिरीक लक्षणां (विकृत चिंतेच्या लक्षणासारकीं).

३) भंय टाळपाखातीर घराभायर न सरपाची चड काळजी वा त्या भंय दिसपी वस्तूपसून पळून वचप.

४) ह्या भंयाच्या निरर्थकपणाची पुराय कल्पना आनी आपले असहायतेक लागून येवपी उदासपण.

५) आपल्या भयगंडाची पूनरावृत्ती जातली अशी दोट्टी चिंता आनी विमनस्कता.

६) सदचीं कामां आनी कर्तव्यां करपाची असमर्थता आनी असहायता.

७) भंय टाळपाखातीर कांय क्षुद्रवस्तूंचेर (फेटिश) आदारीत रावप. देखीक- तायत, देवाचो फोटो, बाम सारकिल्लीं वखदां तशेंच घरांतली मोगाची व्यक्ती.

मरण, काळजाचे रोग, कॅन्सर, म्हारोग, पिशें, एकटेंपण, गर्दी, उंच थळ, नवो वाठार, बंदिस्त जागो, परिक्षा, वरिश्ठांची भेट, उपचारिक वातावरण-देखीक समारंभ, चर्चा, पार्टी, सुणो, माजर, सोरोप, पाल, जल्लो सारकिल्लीं जनावरां, मलमूत्र, घाण, धूल्ल सारकिल्ल्यो भायर उडोवपाच्यो वस्तू आनी तांचो विटाळ (हो भंय भावतिरेकी सक्तियुक्त मज्जाविकृतीच्या लक्षण समुहांत चड सांपडटा) हे विशय चडकरून भयगंडाचे आसतात.

भयगंडाचें वर्गीकरण फ्रॉयड हाणें दोन प्रकारांत केल्लें आसा-

१) भंय दिसपाक लावपी सार्वत्रिक आनी सर्वसामान्य अशा गजालींक लागून निर्माण जावपी भयगंड. देखीकः मरण, दुर्येस, सोरोप बी.

२) वैयक्तिक भंय निर्माण करपी खाशेल्या विशयांपसून जावपी भयगंड. देखीकः पयलीं वायट अणभव आयिल्ल्यो अशो खाशेल्यो जागा, मानवना अशो संवेदना आनी आपल्यो हालचाली.

कांय सर्वसामान्य भयगंडांक खाशेल्यो संज्ञा दिल्ल्यात. देखीकः भायलो वाठार भयगंड (ॲगोराफोबिया), उत्तुंगता भयगंड (ॲक्रोफोबिया), बंदिस्तता भयगंड (क्लॉस्ट्रो फोबिया), मृत्युभयगंड (नेक्रोफोबिया), व्याधिभयगंड (पॅथोफोबिया), शालाभयगंड (स्कूलफोबिया) आनी संदूशण भयगंड (मायसोफोबिया). हातूंतल्या भायलो वाठार भयगंड, बंदिस्ता भयगंड, मृत्युभयगंड, व्याधिभयगंड आनी संदूषण भयगंड हांचो प्रादुर्भाव जाणट्यांमदीं चड आसता. भुरग्यांत शाळा भयगंडाचो प्रादुर्भाव चड आसता. भायलो वाठार भयगंडांत मनशाक घरा भायल्या वातावरणांत, चडकरून येरादारींत वचप वा समाजीक कार्यांत वांटो घेवप चड भिरांकूळ आनी त्रासांचें जाता. मनाची सगळी तयारी करून गेल्यार लेगीत शारिरीक लक्षणां दिसून परतुचें पडटा. बंदिस्तता भयगंड आशिल्लो मनीस न्हाणीघर, काळखी-अडगळची कूड, सिनेमा, लिफ्ट, बी बंदिस्त सुवाती टाळतात. मृत्युगंडांत मड्याचें दर्शन जाल्यार वा मरणाची बातमी वाचल्यार वा आयकल्यार वा कांय खेपे ह्यो गजाली याद केल्यार खूब भंय दिसून अशे प्रसंग टाळपाची वृत्ती निर्माण जाता. व्याधिभयगंडांत काळजाचे रोग, म्हारोग, कॅन्सर, पिशें ह्या भिरांकूळ रोगांचो सुमाराभायर भंय दिसून काल्पनीक लक्षणांच्या हुसक्यांत आनी दुबावांनी मन निमाणेमेरेन घुस्पल्लें आसता. शाळा भयगंडांत शाळेचीं भुरगीं शाळेंत वचपाक अनमनतात. बळजबरी केल्यार रडटात वा शाळेंत वचनासतना भायर खंयूय भोंवतात. हाका कारण म्हणजे कसलो तरी भंय आसता. संदूशण भयगंडांत मलमूत्राकलागून वा कोयर धुल्लाकलागून संदूशण (काँटॅनिशन) वा विटाळ जातलो हो भंय दिसून अशे घाणीकडेन शरीर संपर्क, चडकरून हात लावप-टाळपाचो सदांच यत्न आसता. हो भयगंड भावतिरेकी सक्तियुक्त मज्जाविकृतीच्या लक्षणांत चड आस्पावता.

भयगंडाच्या मनोगतिकीय विवरणांत तीन सिध्दांतांचो आदार आसा- १) फ्रॉयडाचो मनोविश्लेशणात्मक सिध्दांत २) ज्ञानसंपादन सिध्दांत आनी ३) अभिजात अभिसंधानाचो सिध्दांत. पयल्या सिध्दांताप्रमाण इडिपस गंडाप्रमाण भुरगें आपल्या परलिंगी पालकाविशीं लैंगीक ओड आनी समलिंगी पालकाविशीं अनुत्सुकता दाखयता. समलींगी पालकाकडसून अपेक्षित शिक्षेचो भंय. अजाणपणी ह्या भंयाचें प्रक्षेपण आनी भाव विस्थापन खंयच्यातरी टाळूंक येता अशे वस्तूचेर करता. ते खातीर अशे वस्तीची अवास्तव भिरांत म्हणजेच भयगंड निर्माण जाता. अशे मनोगतिकीय रचनेखातीर नावडते व्यक्तीविशींची आक्रमक इत्सा अजाण मनांत उरून बाह्यांगीय नावडते व्यक्तीकडेन बरेपणाचे संबंद दवरप शक्य जाता. दुसऱ्या सिध्दांताप्रमाण मूळ भंयाचो उगम एकतर खंयतरी पयलोच मनांत आसता वा खंयच्यातरी वायट अणभवांतल्यान निर्माण जाल्लो आसाता. अभिजात अभिसंधानाच्या सिध्दांताप्रमाण म्हऱ्यांत आशिल्ले वस्तुकडेन वा परिस्थितीकडेन अभिसंधान जावन मूळच्या

कारणावगर भंय निर्माण जाता. जे वस्तुविशीं मात भंय नासता उरफाटें ओड आसता ती वस्त म्हर्च्यांत आसतना भायल्यान कसल्याय कारणावयल्यान परत परत भंय निर्माण जालो जाल्यार आवडटे वस्तीसंबंदी कालांतरान भयगंड निर्माण जाता.

रोग्यांक जावपी भयगंड मनोघातजन्य वर्तन-अध्ययन ह्या तत्त्वाप्रमाण दोन पांवड्यांनी जातात. पयलीं मनोघातजन्य (भिरांकूळ) अणभवान दिशिल्ल्या भंयाकलागून त्रासदायक शारिरीक लक्षणांचें अभिसंधान त्या भिरांकूळ कल्पनेकडेन जाता आनी दुसऱ्या पांवड्यांत ही कल्पना टाळपाखातीर केल्ल्या यशस्वी यत्नांचें प्रबलन (रिएन्फोर्समेंट) जावन भयगंडाचें सवयेंत रुपांतर जाता.

**भयगंडाचेर उपाय** : १) वखदां : उद्वेगनाशक (अँटिडिप्रेसंट) गुळयो चड करून ॲमिट्रिप्टीलीन आनी शांतक गुळयो. देखीक- डायाझेपॅम हांचो फाव त्या प्रमाणांत सदांच वापर केल्ल्यान भयगंडापसून सुशेग मेळटा. पूण तें दुयेंस बरें जायना. तेखातीर २) मनोविश्लेशण वा ३) वर्तनोपचार (बिहेवियरथेरपी ह्या उपचार पद्दतींची गरज आसता. ४) विरोधाभासी उद्दीश्टोपचार (पॅरॅडॉक्सिकल इंटेन्शन) ह्या उपचारानूय भयगंडाचें निर्मुलन जावपाक शकता.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद** : न्यूनगंड.

## भरणी :

भारतीय नक्षत्रमाळेंतलें दुसरें नक्षत्र. मेष राशींत ह्या नक्षत्राचो आस्पाव जाता. नक्षत्र चक्राचो आरंभ ज्या वेळार कृत्तिका नक्षत्रासावन जाता त्या वेळार हें नक्षत्र निमाणें आसता. हातूंत मेषेंतले ४१,३९ आनी म्यू हे तीन तारे आसतात. तातूंतलो ४१ हो योगतारो. हाची आकृती योनी आनी देवता यम मानतात. ह्या नक्षत्राची गणना उग्र आनी अधोमुख गणांत केल्या.

भरणी नक्षत्राचे तिनूय तारे अस्पश्ट आसून, मळबांत तांचो ल्हानसो त्रिकोण जाता. अश्विनी आनी कृत्तिका हांकां सादपी एक ओळ काडल्यार, हे ओळीचे उत्तरेक हो त्रिकोण आसा. डिसेंबर म्हयन्यांत रातच्या णव वरांच्या सुमाराक हें नक्षत्र खस्वस्तिकी वा शेखर बिंदूलागीं म्हळयार माथ्यार दिसता.

विद्या, अर्ध्य आनी भूमिखनन ह्या गजालींखातीर हें नक्षत्र शुभ मानतात. ह्या नक्षत्राचेर कसलींच मंगल कार्यां करिनात. भाद्रपदाच्या कृष्ण पक्षांत चंद्र-नक्षत्र भरणी आसतना नवमृताचें भरणीश्राध्द करतात अशी चाल आसा.

भरणी ही म्हशीचेर बशिल्ली, हत्तीच्या तोंडाची, दंड आनी पाश धारण करपी, तांबड्यागुंज दोळयांची आनी उग्र आसा, अशें तिचें रूपध्यान हेमाद्रीन सांगलां.

भरणी नक्षत्राचेर जल्मल्ल्या मनशाची सदांच अपकीर्त जाता. तो दुश्ट आसता आनी तरातरांचे करमणुकींनी तो आपलो काळ घालयता अशें कोष्ठीप्रदीपांत सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

## भरणी उत्सव :

केरळ प्रदेशांतली एक परब. फाल्गुन म्हयन्यांतल्या भरणी नक्षत्राच्या दिसा हे परबेक सुरवात जाता. ही परब कालीमातेच्या देवळांत मनयतात. कांय सुवातींनी चक्रां नाशिल्ले गाडयेचेर एका मनशाक बसोवन आनी ती गाडी खांद्याचेर घेवन ताची मिरवणूक काडटात. कोंडुगळ्ळूर नांवाच्या शारांत जावपी ही परब खूब म्हत्वाची मानतात. हे परबेखातीर गांवागांवांतले दादले-बायलो एकठांय जमतात. कालीमातेची पुजा करून तिका कोंबयेचो बळी दितात. ह्या वेळार भजन-कीर्तन करिनासतना अश्लील पदां म्हण्टात. ह्या पदांक 'भरणीप्पाट्टू' अशें नांव आसा. ह्या पदांच्या गायनान देवी प्रसन्न जाता, अशी त्या लोकांची समजूत आसा. भरणीप्पाट्टूंत ल्हान गितांभाशेन व्हड काव्यांय आसात. केरळी लोकांचो हो उत्सव एके तरेचो शिगमोच.

- कों. वि. सं. मं.

## भरणी श्राध्द :

(पळेयात श्राध्द).

## भरत :

ऋग्वेदकाळांतलो एक पंगड. ऋग्वेदाच्या तीन, स आनी सात मंडळांत जायते फावटीं भरत हें उतर भोववचनांत आयलां आनी ताचो अर्थ भरत नांवाचो एक पंगड असो जाता. ह्या लोकांची वसणूक चड करून सरस्वती न्हंयेचे देगेर आशिल्ली. ते ज्या वाठारांत रावताले, ताका भरत जनपद अशें नांव आशिल्लें. ऋग्वेदांत एकेकडेन असो उल्लेख आयला, भरत पंगडाक एका झुजांत हार खावंची पडली तेन्ना वसिष्ठ ऋषीकडल्यान त्या भरत पंगडाक राखण मेळ्ळी. ऋग्वेदांतले नामनेचे राजा दिवोदास आनी सुदास हे ह्या भरत पंगडांतलेच. महाभारतांत उल्लेख आयिल्लो कुरूराजवंश भरत पंगडांतलोच आशिल्लो. ह्या वंशांतल्या कितल्याशाच राजांनी जायत्यो पिळग्यो राज्य करून राज्यविस्तार केलो, देखून ह्या देशाक 'भारत' वा 'भारतवर्ष' हें नांव पडलें आसूंक जाय.

पुर्विल्ल्या काळांत भरत नांवाचे जायते मनीस जावन गेल्यात. तातूंतले इतिहासांत नामना पाविल्ले भरत नांवाचे मनीस अशे :

**भरत - १)** : आदिप्रजापती मनू हाणें सगळयांत पयलीं धर्म आनी न्याय हांची मर्यादा थरोवन ते प्रमाण प्रजेचें पालनपोशण केलें. देखून ताका भरत ह्या नांवान वळखूंक लागले. देखून ह्या देशाक भारत हें नांव मेळ्ळें.

**भरत - २) :** ह्या देशाक भारतवर्ष हें नांव मेळचेपयलीं ताका अजनाभवर्ष म्हण्टाले, अशे उल्लेख जायत्या पुराणांनी मेळटात. नभि नांवाच्या राजाचो पूत ऋषभदेव हाचो पूत भरत हो एक व्हड योगी राजा जावन गेलो. शेवटाक ताणें वानप्रस्थाश्रम घेवन राजत्याग केलो. ह्या राजावयल्यान देशाक भारतवर्ष म्हणूंक लागले. उपरांत तो गंडकी न्हंयेचे देगेर आशिल्ल्या पुलह ऋषीच्या आश्रमांत वचून तपश्चर्या करूंक लागलो. एक दीस ताणें निकतेंच जल्मल्लें हरणाचें पील पळयलें. तो ताका आश्रमांत घेवन गेलो. त्या पिलाचो मायेन सांबाळ करता आसतनाच ताका मरण आयलें. देखून ताका हरणाचो जल्म मेळ्ळो. ह्या जल्मांत ताका फाटल्या जल्माची याद आशिल्ली. देखून तो आपलो कळप सोडून पुलहाश्रमांत येवन रावलो आनी मरणकाळ लागीं पावतकच ताणें गंडकी न्हंयेत देहाचो त्याग केलो. उपरांत ताचो जल्म अंगिरस कुळांत जालो. जल्मतनाच तो सिध्द आनी मुक्त आशिल्लो. आपली ही स्थिती कोणाक कळची न्हय म्हणून तो मूढ (जड) वृत्तीन मौन धारण करून आपली जीण सारतालो. देखून ताका जडभरत अशें नांव पडलें.

**भरत - ३) :** अयोध्येचो राजा दशरथ हाचे कैकेयी हे राणयेपसून भरताचो जल्म जालो. हाका राज्यार बसोवपाक कैकेयीन रामाक वनवासाक धाडिल्लो. तेन्ना थंय वचून तो रामाक मेळ्ळो आनी आपल्याक राज्यपद नाका अशें सांगून ताका परत हाडपाचो भरतान यत्न केलो. तेन्ना रामान न्हयकार दितकच ताचो प्रतिनिधी म्हणून भरतान १४ वर्सां राम परत येसर राज्य केलें. रामाउपरांत तोच अयोध्येचो राजा जालो. सिंधू न्हंयेच्या दोनूय देगांचेर गंधर्वांचें राज्य आशिल्लें. तांचेर जैत मेळोवन ताणें तक्षशिला आनी पुष्कलावती ह्या दोन नगरांची स्थापना केली, अशें वाल्मिकी रामायणांत म्हळां.

**भरत - ४) :** पुरूवंशांतलो एक राजा. दुष्यंत आनी शकुंतला हांचो पूत. ताचें दुसरें नांव दमन. ल्हानपणासावनूच ताचो पराक्रम आनी तेज दिसूंक लागलें म्हणून आश्रमांतल्या ऋषींनी ताका 'सर्वदमन' अशें नांव दवरलें. शतपथ ब्राह्मणांत ताका 'सौद्युम्नी' अशेंय म्हळां. बापायच्या मरणाउपरांत तो राज्यार बसलो आनी चक्रवर्ती जालो. ताणें किरात, हूण, यवन, आंध्र, कंक, खश आदी लोकांचेर जैत मेळयलें. ताणें असुरांचेरूय जैत मेळयलें आनी उबारून हाडिल्ल्या बायलांचो उद्धार केलो. मामतेय दीर्घतम्याच्या पुरोहिताखाल ताणें गंगा न्हंयेचे देगेर ५५ आनी यमुना न्हंयेचे देगेर ७८ अश्वमेध केल्ल्याची कथा आसा.

**भारत ५) :** नाट्यशास्त्राचो जनक. हाचो नाट्यशास्त्रांत नंदिभरत असोय उल्लेख आसा. विष्णु पुराणांत गंधर्ववेद नांवाचो संगीतशास्त्रीय ग्रंथाचो कर्तो म्हणून ताचो उल्लेख आसा. तो सर्गांत इंद्रसभेंत नाट्यप्रयोग करतालो. ह्या नाट्यप्रयोगांत नट, देवांची आनी ऋषींची नक्कल करताले. तेन्ना देवांक आनी ऋषींक राग येवन तांणीं भरतमुनीक सर्गांत रावनासतना धर्तरेचेर जल्माक येवपाचो शाप दिलो.

भरतान रचिल्ल्या नाट्यशास्त्रांत नाट्याचे धा प्रकार सांगल्यात आनी आठ रसांचें स्पश्टीकरण केल्लें आसा. तातूंत नाच, वादन, गायन, अभिनय, अलंकार आदी विशयांचेर विस्तारान चर्चा आसा. सद्या हें नाट्याशास्त्र जे स्थितीत आसा, तें पळल्यार तातूंत कितलेशेच बदल जावन तातूंत भर पडिल्ल्याचें जाणवता.

वयर दिल्ल्या भरत नांवाच्या राजांभायर ह्या नांवाचे आनिकूय जायते राजा आनी ऋषीपूत जावन गेल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. ऋग्वेदांत भरत हें नांव अग्निदेवाकूय दिलां.

- कों. वि. सं. मं.

**भरतकाम :** कसल्याय प्रकारच्या लुगटाचेर सुती, रस्मी, लोकरी, जरी वा प्लास्टीक हांचे सारक्या तरेकवार आनी विविध रंगांच्या धाग्यांनी तरेतरेचे पोंत घालून, सुयेच्या वा मशिनाच्या आदारान तयार केल्ली कलात्मक कलाकृती म्हळ्यार भरतकाम.

**इतिहास :** पुर्विल्ल्या काळार वल्कलाचेर तणान वा कातडी धाग्यान लांकडी सूय वापरून जोड काम करताले. रशियेंत खूब पुर्विल्ल्या काळारसावन धातूचे धागे लांकडी सुयेन वापरून वा रेनडियर ह्या जनावराचे कातीचेर ताच्या केंसांच्या धाग्यांचो वापर करून जोडकाम करताले. हे कलेचो उगम निश्चीत केन्ना जालो ताची म्हायती मेळना. पूण ही कला सुरवेक भारत आनी उपरांत हेर देशांनी उदयाक आयली अशें मानतात. भरतकामांतलें 'भरत' हें उतर 'भृ' ह्या मूळ संस्कृत धातूपसून तयार जालां. 'भृ' म्हळयार भरप वा पुराय करप असो अर्थ जाता. वैदिक काळारसावन ऋग्वेदांत कशिदाकाम केल्ल्या वस्त्राक 'पेशस' हें उतर वापरलां. तशेंच, कशिदा काडपी बायलेचो पेशसकारी ह्या नांवान उल्लेख केल्लो मेळटा. सादारण १०००वर्सां क्रिस्ताआदल्या काळांत भरतमुनीन अस्तित्वांत आशिल्ल्या कलांचें संकलन करतना चवसठ कलांचे यादींत भरतकलेचो उल्लेख केल्लो आसा. मोहेंजोदडो आनी हडप्पाच्या उत्खननांत भरतकलेचे नमुने मेळयात. कालिदास, बाणभट्ट, भारवि ह्या कवींच्या संस्कृत साहित्यांतूय भरतकलेचो उल्लेख मेळटा. इ. स. आदीं चवथ्या शतमानांत चंद्रगुप्त मौर्याच्या काळांत आयिल्लो ग्रीसी तत्त्वगिन्यानी मॅगास्थेनीस हाणें भरतकला केल्ल्या लुगटाचें वर्णन आपल्या लिखाणांत केल्लें. अजंठाच्या चित्रांनी जायत्या जाणांनी भरतकाम केल्लीं वस्त्रां पळोवंक मेळटात. उपरांतच्या काळांत भारताचो परक्या देशांकडेन संबंद आयलो. पुर्तुगाल, इंग्लंड, फ्रांस, स्पेन, जर्मनी ह्या देशांकडेन वेपार वाडटकच तांचेय कलाकुसरीचो परिणाम भारतीय भरतकामाचेर आनी शिवणकलेचेर दिश्टी पडपाक लागलो.

बायलांचे जिणेंत भरतकलेक तेचपरी शिवणकलेक एक आगळीच सुवात आसा. बायलांचे कपडे दुरूस्त करपापसून ते घराची सोबाय

वाडोवपाखातीर भरतकामाकडेन परतो परतो संबंद येता. उपजिविकेचें एक साधन म्हणून वा एक छंद म्हणुनूय कांय बायलो भरतकलेवटेन आकर्शीत जातात. आर्विल्ले जिणेंत हे कलेक खुबूंच म्हत्व आसा. उशाफ्रोंजी, बसकेवयलीं अभ्रां, साडयो, पट्टे, च्या प्राच्छादनां (टि कोझी), ल्हान भुरग्यांचीं आंगलीं, चादर आदी नित्याचे जिणेंत उपेगी पडपी वस्तू सोबोवपा खातीर हे कलेक खुबूच म्हत्व दिवप जाता. काश्मीर तशेंच भारतांतल्या हेर कांय वाठारांनी उपजिविकेचें साधन म्हणून बायलांवांगडा दादलेय भरतकाम करतात.

इजिप्त, ग्रीस, इटली, फ्रांस, नॉर्वे, रशिया, अमेरिका ह्या देशांतले लोक आपआपले आवडीप्रमाण आनी परंपरेप्रमाण वेगवेगळया टांक्यांचो वापर करून भरतकाम करतात. तशेंच आशियांत तुर्कस्थान, पाकिस्तान, चीन, जपान, कोरिया, अरबस्थान आदी देशांनी वेगवेगळया टांक्यांचो वापर करून जायते तरेचें भरतकाम करतात. सोबीत ठिगळकाम, गांठणकाम, भूमितीक भरतकाम, मोनजात, मनीस हांचे आकृती बंदद ह्यो सगळयो पुर्विल्ल्यो आशियाई भरतकला. फुली टांको, चिनी टांको (पॅकिनीज स्टीच) हांची चीन ही जननी मानतात. हाचे वयल्यान अशें दिसता, आशियाई भरतकलेचो प्रसार युरोप, अमेरिका आनी हेर खंडांनी जालो आनी आतां ही कला संवसारभर पातळ्ळया. भारतांत कर्नाटक, महाराष्ट्र, काश्मीर, पंजाब, चंबा, गुजरात, कच्छ, काठेवाड, उत्तर प्रदेश, बंगाल, अस्तंत बंगाल, गोंय, हैदराबाद, चेन्नइ, बंगलोर, आदी वाठारांनी भरतकलेचीं केंद्रां आसात. त्या त्या वाठारांतलें भरतकाम विशिश्ट नांवान वळखतात. देखीकः काश्मिराचो-कशिदा, कर्नाटक-कसूती, सौराष्ट्र, गुजरात-हारशाकाम, लखनौ-चिकनकारी, पंजाब- फुलकारी, बंगाल-कथा, बिहार-चादवा, गोंय-कपयाळीं, हेभायर कांय खाशेले टांके ज्या ज्या वाठारांत तयार जाल्यात तांकां त्या त्या वाठारावयल्यान नांवां पडल्यांत. देखीक-बंगाली टांको, काश्मिरी टांको, कच्छी टांको आदी.

भरतकाम करपाखातीर सूय, सूत, तरेकवार इस्किनी, ट्रेसिंग पेपर, कार्बन पेपर, कातर, पेन्सिल आदी साहित्यावांगडा जाय जाय ते तरेचें भरतकाम करपाखातीर ते ते तरेचें साहित्य लागता. देखीक, मणीकाम करपाचें आसल्यार मणी वा हारशे काम करपा आसल्यार हारशाची गरज आसता. भरतकाम करपाखातीर जी फाटभूंय वा कपडे वापरतात ते योग्य तरेन वेंचून तांचेर चित्रां (डिझायन्स) काडून उपरांत भरतकाम करचें पडटा. भरतकलेंत रंगसंगतीक खुबूच म्हत्व आसता. एकरंगी, दुरंगी, जायते रंगी, सजातीय आनी विजातीय अशे रंगसंगतीचे प्रकार आसात. कपड्याचे फांटभुंयेचेर जो रंग आसता त्याच रंगाच्या धाग्यान जें भरतकाम करतात तें एकरंगी, दुरंगी रंगसंगतींत काळो-



**टाक्यांचे प्रकार :** १ - गंवाचो टाको, २ - दुरंगी टाको, ३ - किडीचो टाको, ४ - कडा भरपाचो टाको, ५ - चवकटीचो टाको, ६ - नुरत्याच्या काट्याचो टाको, ७ - जाळयेचो काजाचो टाको, ८ -टाक्यावयलो टाको, ९ - मिश्र टाको, १० - ठिगळ काम, ११ - हेरिंग नुरत्याच्या काट्याचो टाको, १२ - काश्मिरी टाको, १३ - हारसो काम, १४ - बंगाली टाको

हळदुवो, तांबडो-धवो अशा खंयच्याय दोन रंगांची जोडी वापरतात. कांय वेळार गाड रंगाचें प्रमाण चड वापरून उपरांत लेव रंग वापरून डिझायनाचो तोल सांबाळटात. सजातीय रंगसंगती एकाच वर्गांतले म्हळयार सगळेच गाड वा सगळेच लेव रंग वापरून वेगवेगळया छटांचो वापर करतात. विजातीय रंगसंगतींत परस्परविरोधी रंग वापरतात. देखीक-एक गाड रंग आसल्यार दुसरो लेव रंग वापरून भरतकाम करतात.

भरतकाम करपाखातीर वेगवेगळया टांक्यांचो उपेग करतात. हे टांके अशे आसात- १) भायली कडा भरपाचो टांको (आऊट लायन स्टिचीस ग्रुप), २) सपाट टांको (प्लॉट स्टिचीस), ३) चवकट वा धागे मेजून भरपाचो टांको (काऊण्टेड थ्रेड स्टिचीस), ४) गंवांचो टांको (चेन स्टिचीस), ५) गांठीचो टांको (नोटेड स्टिचीस), ६) बांदणीचे भरीव टांके (कौचिंग ॲण्ड फिलींग ग्रुप), ७) लहर टांको (व्हेविंग ॲण्ड फिलींग ग्रुप), ८) बंगाली टांको (सॅटीन स्टिच), ९) पानांचो टांको (लिफ स्टिच), १०) काजां टांको (बटनहोल स्टिच), ११) कांबळ टांको (ब्लँकेट स्टिच), १२) जोड टांको (इन्सर्शन स्टिच), १३) संमिश्र टांको (कम्पोझिट स्टिच), १४) कपड्याचे धागे ओडून केल्ले टांके (ड्रॉन थ्रेड स्टिच), १५) हार्डेजर टांको (हार्डेजर एम्ब्रॉयडरी स्टिच), १६) होलबेयन टांको (होलबेयन स्टिच), १७) कॅनवास चौकट टांको (कॅनवास वा निडल पोईंट स्टिच), १८) फुलींचो टांको (क्रॉस स्टिच).

**भरतकामाचे प्रकार :** भरतकामाचे तीन प्रकार जातात. १) हस्त भरतकला २) यांत्रिक भरतकला ३) सोबीत भरतकला.

**१) हस्त भरतकला** (हॅण्ड एम्ब्रॉयडरी) : सुयो आनी लुगट हांचो वापर करून वेगवेगळया टांक्यांच्या आदारान हातान भरतकाम करतात.

**२) यांत्रिक भरतकला** (मशीन एम्ब्रॉयडरी) : हें भरतकाम माक्नाच्या आदारान करतात. हातूंत वेळ थोडो लागता आनी काम बेगीन जाता.

**३) सोबीत भरतकला** (डेकोरेटिव्ह एम्ब्रॉयडरी वा फॅन्सी वर्क) : हातूंत गरजेप्रमाण वेगवेगळया प्रकारांच्यो सुयो वेगवेगळया रंगांचे वा प्रकारांचे धागे वा लोकर वापरून भरतकाम वा विणकाम करतात. हातूंत विणकाम (निटींग), क्रोशेवर्क, टॅटिंग वर्क (शटल वर्क), खेळणीं, बोटवे, कारपेट काम (रंगकाम), मॅक्रोम वर्क (गोफ काम) तशेंच झीग, मणी, मोतीं, चमक्यो हांचो उपेग करून सोबीत भरतकाम करतात.

भरतकामांत मुखेल ७५ टांके आसून उपरांत एका टांक्यातल्यान हेर टांक्यांची निर्मिती जावन ह्या टांक्यांची संख्या वाडत गेली. सद्या सुमार ३०० मेरेन टांक्याचे प्रकार मेळटात. हातूंतल्या कांय टांक्यांच्या आदारान भरतकामाचे प्रकार करतात. ते अशे : १) ड्रॉन थ्रेड वर्क : सुतां काडून आनी बांदून केल्लें काम, २) कट वर्क (काप काम), ३) थिगळ काम (आप्लिके वर्क), ४) आसीझी भरतकाम, ५) नॅटवर्क (जाळी कापकाम), ६) शॅडो वर्क (छाया भरतकाम), ७) पॅडींग वर्क (फुगीर भरतकाम), ८) क्रुवेल एम्ब्रॉयडरी (मिश्र जाळीकाम), ९) आप्लिके ऑन नॅटवर्क (थिगळ जाळीकाम), १०) जॉकोबीयन भरतकाम, ११) स्पॅनीश ब्लॅक वर्क (काळें काम), १२) स्मोकिंग वर्क (चुणी काम), १३) हार्डेजर वर्क, १४) क्रॉस वा इटालियन क्रॉस वर्क, १५) हॉलबिन वर्क (बादला), १६) अरिवर्क (जरी काम), १७) हॉलबिन वर्क (कुस्कर, आमोर कशिदा), १८) बीड वर्क (मणी काम), १९) झीग वर्क (झीग काम), २०) पंच वर्क (पंच काम), २१) कच्छी वर्क (कच्छी काम), २२) रिचेलू वर्क, २३) आटलेट वर्क (दोळयांचें काम), २४) अब्ला वर्क (हारशे काम), २५) तिकली वर्क (तिकली काम).

- सौ. महानंदा आळवे

**भरतनाट्यम् :** एक अभिजात भारतीय नाचाचो प्रकार. ताच्या नांवावयल्यानूच भरताच्या नाट्यशास्त्राकडेन संबंद आशिल्ल्याचें स्पश्ट जाता. भरतनाट्यम् ही एक संमिश्र कला. तिचेभितर काव्य, नाट्य, संगीत, ताल आनी लय ह्या सगळयांचो आस्पाव जाता. नर्तिकेच्या हातापांयांची हालचाल, संकेतीक वा सादृश्यदर्शक हाताच्यो मुद्रा, ताल, लय आनी काव्य हीं सगळीं भरतनाट्यमाचीं भाव उक्तावपाचीं साधनां. ह्या सगळया आंगांतल्यान खंयचो तरी दिव्य असो संदेश प्रेक्षकांमेरेन पावोवप आनी प्रेक्षकांक तांचे वास्तव अवस्थेंतल्यान तितल्या काळामेरेन तरी वयल्या पांवड्याचेर व्हरप असो ह्या नाचाचो हेत आसता. नाचांतले कथाप्रसंग रामायण, महाभारत, पुराणां आनी महाकाव्यां हातूंतल्यान घेतिल्ले आसतात. त्या त्या प्रसंगांतले ते ते व्यक्तीचें अनुकरण कलाकार करीत आसता. भरतनाट्यमाची साधना हो एक योग अशें म्हण्टात. ह्या नाचांत मुद्रा आनी दोळयांनी उलोवपाचें आसता. तेखातीर साधकाक कांय नेम आनी पथ्यां पाळचीं पडटात. पुराणांत आनी आगमांत (शास्त्र) शिव हो जसो नर्तक तशेंच तो योगीय आसा. नटराज ही ताची नृत्यकलेंतली उपाधी.

भरतनाट्यम् ही कला दोन हजार वर्सांसावन प्रचलीत आसा. भरतनाट्यम ही शैली मूळ तमीळनाडूंतल्या तंजावर जिल्ह्याची म्हणून नामना आसा. हो नाच चड करून बायलोच करतात. इ.स. दुसऱ्या-तिसऱ्या शेंकड्यांतल्या 'शिलप्पधिकारम्' ह्या तमीळ ग्रंथांत ह्या नाचाचो उल्लेख मेळटा. तंजावरच्या चोल राजांचे कारकिर्दीत ह्या नाचाची पद्दत आशिल्ली. तांचेउपरांत नायक राजे हांणी ह्या नाचाक खूब उर्बा दिली. १८व्या शेंकड्यांत तंजावराक प्रतापसिंह आनी ताचे उपरांत तुळजाजी हांच्या काळांत हे कलेची खूब उदरगत जाली. तांच्या दरबारांतले राजकवी महादेव अण्णावी हो नाट्यशास्त्रांतलो विद्वान आनी सुब्बराय हेड उत्तम नर्तक म्हणून गाजले. सुब्बरायाचे चार पूत चिन्नय्या, पोन्नय्या, वडिवेलू आनी शिवनंदम ह्या पिळळे भावांचो 'अरेंगेट्रम' (पयलो रंगमाचयेर प्रवेश),

दुसरो सरफोजी महाराज (कार. १७९८-१८३२) हाच्या दरबारांत १८२५ वर्सा जालो. ह्या चारूय भावांक आयच्या परंपरागत भरतनाट्यम् पद्दतीचे आद्य प्रवर्तक मानतात. ह्या चारूय भावांनी तेलुगूंत कांय तमीळ भाशेंत रचिल्ले नाचाचे प्रकार परंपरागत नृत्यपद्दत म्हणून रूढ जाल्यात. हेच सद्याच्या भरतनाट्यमाचे प्रकार आसात.



सुरवेक ह्या नृत्यप्रकाराक 'कूत्तू', 'आट्टम्' अशीं नांवां आशिल्लीं. उपरांत देवदासींनी ह्या नृत्याची जतनाय घेवन जोपासना केली. तेखातीर ताका 'दासीआट्टम' ह्या नांवान वळखूंक लागले आसुंये. पूण दुसरो सरफोजी भोंसले हाणें आपले सदरेंत वा दरबारांत हो नाच करपाची परंपरा चालीक लावन ह्या नाचाक प्रतिश्ठा मेळोवन दिली. तेन्नासावन ह्या नाचाक 'सदरआट्टम' म्हळ्यार दरबारी नाच ही मानाची सुवात फावो जाली. तेलुगू साहित्यांत नृत्यनाट्याचो 'भरतशास्त्र' असो उल्लेख मेळटा. भाव, राग आनी ताल हांचो जाणकार तो भरत अशें भरतशास्त्रांत मानिल्ल्यान सदरआट्टम् नाचाकूच उपरांत भरतनाट्यम् म्हणूंक लागले.

ह्या नाचाच्या अध्यापनाची सुरवात बऱ्या म्हुर्तार्चेर विधीयुक्त पुजेन करतात. सुरवेक शिकयतात त्या पदाघातांक 'अडवू' अशें म्हण्टात. अडवू म्हळ्यार नाचपाची सुरवेची हालचाल. ह्या पांयांचे हालचालींक तमीळ-तेलुगू भाशेंत अडू वा अडवू अशें म्हण्टात. ह्या अडवूंचे खाशेले पगंड आसात ते अशे-

१) तट्टु अडवूः पांय मारपाचे प्रकार - ७,    २) नट्टु अडवूः पांय रोमपाचे प्रकार - ९

३) ता तै तै ता अडवू वा चतुरश्र हस्त अडवू - ४, ४) वर्धमान हस्त वा शिखर हस्त अडवू -४, ५) तत् तै ता अडवू -११, ६) तट्टु मेट्टु अडवू - ५, ७) कुदित्तु मेट्टु अडवू - १, ८) चक्राधार अडवू वा सरणचारि अडवू - ५, ९) पेरिय अडवू - ५, १०) जाति अडवू - हे तिश्र जातीप्रमाण ३ मात्रांनी शिकयतात. तातूंत एक पदन्यास आशिल्ले २ प्रकार, दोन पदन्यासांचे ७ प्रकार आनी तीन पदन्यासांचे ६ प्रकार आसतात, ११) मंडि अडवू -४, १२) गरूड स्थान अडवू -४, १३) गिण तोम् अडवू - ५, १४) तरि किट तोम् अडवू - ५

गिण तोम् अडवू आनी तरि किट तोम् अडवू हे दोनूय प्रकार हे 'मुत्ताईपु' वा तिहाईचे प्रकार बोल समेचेर हाडपाखातीर वापरतात. तशेंच 'नडै अडवू' म्हळ्यार चलपाचे प्रकार आनी 'मेय अडवू' म्हळ्यार आंग हालोवन करपाचे प्रकार वेगळे शिकयतात. वेगवेगळया गुरूंच्या संप्रदायाप्रमाण अडवूंची संख्या चड-उणी आसता. हे अडवू शिकपाक उणोच दोन वर्सांचो काळ लागता. अडवूंत वापरतात ते हस्त, पाद, स्थान, मंडल त्या त्या क्रमान थंय थंय शिकयतात. असंयुक्त हस्त ३२ आसात, संयुक्त हस्त २३ आसात, पादभेद ६ आसात, स्थानां ६ आसात आनी मंडलां १० आसात. भरतनाट्यमांत नृत्य करतना जी मुळची नाचाची अवस्था आसता, तिका तमिळींत आरै मंडी वा आयत मंडलम् अशें म्हण्टात. हाकाच चतुरश्र स्थान अशेंय म्हण्टात. अडवू शिकतकच पयलीं 'अलारिपु', 'जातिस्वरम्' असले सोंपे नृत्यप्रकार शिकयतात. उपरांत 'शब्दम्', 'वर्णम्', 'पदा' 'जावळि', 'तिल्लाना', 'श्लोक' हे प्रकार शिकयतात. हे सगळे प्रकार त्या प्रकारांक अनुरूप अशा गीत-गायना सयत करतात. तांची थोडे भितर म्हायती अशी -

१) स्तुती : स्तुती म्हळ्यार ईशस्तवन. नाचाचो प्रयोग यशस्वी जावपाखातीर पड्डो उगडचे पयलीं गणपती, सरस्वती, लक्ष्मी, नटराज ह्या इश्टदेवतांची तुस्त करतात.

२) अलारिपु : हो भरतनाट्यमांतलो पयलो प्रकार. पुर्विल्ल्या ग्रंथांनी हाचो 'पुष्पांजलि' असो उल्लेख मेळटा. पुष्पांजलि म्हळ्यार फुलांचो पोसो. नर्तकी रंगमाचयेर येतकच थंय आशिल्ल्या सगळया देवतांक पुष्पांजलि ओंपपाचो हो प्रकार. कमळ जेप्रमाण ल्हव ल्हव पाकळे-पाकळेन फुलता तेचप्रमाण ही नर्तकी आपले दोळे, मान, भुंवयो, खांदे हांच्या नाजूक हालचालींनी सुरवात करता. ह्या हालचालींनी एके तरेचो व्यायाम जाल्ल्यान नाचाच्यो फुडल्यो हालचाली चपळायेन करूंक मेळटात. ह्या प्रकारचो दुसरो हेत असो, .नर्तकी आपल्या

माथ्याचेर तोंडासामकार आनी हङ्ख्याचेर अंजली हस्त दवरून विघ्नहर्ता, रंगदेवता, गुरू आनी विद्वानांक नमस्कार करता आनी फुडली कार्यावळ यशस्वी जावपाखातीर आशिर्वाद मागता. तत्, तै, तैयुम्, ताम् ह्या ॐकार वाचक बोलांची ही रचना आसता. हे बोल रागदारींत म्हळ्यार पुर्विल्ल्या शास्त्रीय ग्रंथाप्रमाण 'नटै' वा नाट रागांत गायतात. अलारिपू चतुश्रादी विंगड विंगड जातींनी करतात.

३) जतिस्वरम् : हो भरतनाट्यमांतलो दुसरो प्रकार. जति म्हळ्यार बोल आनी स्वरम् म्हळ्यार स्वर. कठीण अशा ह्या नृत्यप्रकारांत मान, हात आनी पांय हांच्यो तालबद्द हालचाली आसतात. राग, स्वर आनी ताल हांच्या संयोगान हो प्रकार आकर्शक करपाचो आसता. हो शुध्द नाच आशिल्ल्यान नृत्य ह्या प्रकारांत मोडटा. हें नृत्य चालू आसतना वाद्यांचेर खंयच्याय तरी रागाची धून वाजयतात.

४) शब्दम् : देवादिकांच्या नाट्यपूर्ण कथाप्रसंगांचेर आदारीत काव्य म्हळ्यार शब्दम्. संस्कृतांत हाका यशोगीती अशें म्हण्टात. ह्या गितांत देवाची वा कोणाय नायकाची तोखणाय आसता. 'सालमुरे' म्हळ्यार तुमकां नमस्कार करतां ह्या उतरान ह्या गिताचो शेवट जाता. ह्या नृत्यांत मुद्रांचो उपेग करतात. भाव आनी मुद्रा हांच्या आदारान हातूंत गिताचो अर्थ उकतायतात. कवनाक सोबसारके आडाव नाचपाची हातूंत देवजण आसता.

५) वर्णम् : वर्णम् म्हळ्यार भरतनाट्यमाचो गाभोच. हाका 'पदवर्ण' वा 'चौकवर्ण' अशींय नावां आसात. हो नृत्यप्रकार सामको घुस्पागोंदळाचो आनी कठीण आसता. नृत्य, संगीत आनी अभिनय हांचो कलापूर्ण संयोग म्हळ्यार वर्णम्. नर्तकाचें बुध्दिकौशल्य आनी अभिनयकौशल्य हातूंत चड दिश्टी पडटा. हातूंत गेय पद्याचो अर्थ जस-जसो बदलता, तसो अभिनयूय बदलता. हस्तमुद्रांनी कवनाचो अर्थ आनी मुखरागान तातूंतल्या अंतर्भावनेच्यो विंगड विंगड छटा दाखोवपाच्यो आसतात. राग, ताल आनी भाव हांचो त्रिवेणी संगम सादून अभिनयाचीं वेगवेगळीं आंगां दाखोवपाचीं आशिल्ल्यान हो नाच पुराय जावपाक एक वर तरी लागता. विलंबित, मध्य आनी द्रुत अशो तिनूय लयी ह्या नृत्याखातीर वापरतात.

६) पदम् : वर्णमांतल्या हालचालींक लागून नर्तकी थकता, तेखातीर तिका सुशेगाची गरज आसता. देखून पदम् हो वेगळे पद्दतीचो नाच करतात. हातूंत मुद्रा-अभिनयाचेर भर दिवन सवकासायेन नाचतात. पदम् म्हळ्यार प्रेमगीत. तातूंत पल्लवी, अनुपल्लवी आनी चरण असो क्रम आसता. देव, राजा हांचेर हीं पदां रचिल्लीं आसतात. हातूंतलीं चडशीं पदां तिश्र-त्रिपुट तालांत गायतात. 'मिश्रम्', 'मिश्र चापु' वा फकत 'चापु' हीं सगळीं तिश्र जाति-त्रिपुट तालाचींच नांवां आसात. हीं पदां विलंबित लयेंत गावपाची चाल आसा.

८) जावळि : हो चड करून मध्य लयींत उडटे चालींत गावपाचो प्रकार. हातूंतलें साहित्य शृंगाररस प्रधान आसता. नायिका वा तिची इश्टीण जावळिंतल्यान आपले भावविकार उकतायता. हातूंतल्या शृंगारभावाचें स्वरूप एकेकदां सादें-सोपें, लौकिक आनी कांय फावटीं उत्तान आसता. हांची पल्लवी, अनुपल्लवी आनी चरण अशी रचना आसता. केन्नाकेन्नाय् एकापरस चड लेगीत चरण आसतात.

९) तिल्लाना : तिल्लाना म्हळ्यार हिंदुस्थानी संगितांतलो तराणा. हातूंत 'तिल्लिलाना', 'दिरना', 'तोम् दिरना', 'तननम्' असल्या प्रकारांचे बोल एकठांय करून तांची रागांत आनी तालांत बसका केल्ली आसता. हातूंत गती, जोश आनी वेगवेगळे पदाघात आसतात. तातूंतले स्वर, लय आनी बोल खाशेलें वातावरण तयार करतात. हातूंत लयकारीक चड म्हत्व आसून नर्तिकेच्या आंगाचें वेगवेगळ्या कोनशांनी आनी शरिरावस्थांतल्यान दर्शन घडयता. संगीत हो ह्या कार्यक्रमांचो आत्मो आसता.

१०) विरुत्तम चूर्णिका आनी श्लोकम् : हे तिनूय प्रकार एकामेकांक सामके लागीं आसून ते तमीळ तेलुगू आनी संस्कृत भाशांतल्यान सादर करतात.

११) कौतुकम् : पयलींच्या काळांत हो प्रकार फकत देवळांनींच पळोवपाक मेळटालो, पूण हालीं हो प्रकार रंगमाचयेर अलारिपू पयलीं करतात. पुर्विल्ल्या ग्रंथांनी हाचो उल्लेख 'कौत', 'कउत्त' असो मेळटा. हातूंतल्या बोलांचेर योग्य तें नृत्य आनी साहित्याचेर अभिनय करतात.

१२) मंगळम् : प्रयोगाच्या शेवटाक गावपाचो हो प्रकार. हाचेर नाच करिनात, पूण नर्तकी फकत पदाघात करता. प्रयोगांत जाल्ल्या गीत, वाद्य, नृत्य हातूंतल्या चुकांविशीं देवाकडेन चूक मागप, हो ह्या मंगळम् प्रकाराचो मुखेल हेत आसता. मंगळम् म्हळ्यार 'सगळें मंगळ जावं, बरें जावं' अशी देवाक केल्ली प्रार्थना. होच प्रयोगाचो शेवट आसता.

**भेस :** पयलींच्या काळांत भरतनाट्यम् नाचाखातीर नर्तकी सदळसो चुडीदार आनी पायजमो वापरताली. ताचेर ऑरगेंडी कपड्याची णव वारी धवीफुल्ल साडी धोंपरासकयल मेरेन न्हेसून दाव्या खांदावयल्यान पदर घेवन तो उजवे कुशीकडल्यान फुडें हाडून दावे वटेन कमराक खोयतालीं. हे साडयेक पाव इंच रुंदायेची भांगरा कोराची जर आसताली. देखून हे साडयेक 'तूया सेलै' अशें म्हण्टाले. तिचेर कमराक 'माजा' चो कमरपटो आनी वयर रंगीत ब्लाउज घालून सगळे अलंकार घालतालीं. पूण हालीं ह्या भेसांत खूब सुटसुटीतपण आयलां. चलयांक णव वारी साडी न्हेसपाक जड जाता म्हणून, तशेच तरेचो भेस शिंवून तयार

करतात. हो भेस शालवाचो शिंवतात. पूण हो भेस कास घालून न्हेशिल्ल्या पितांबराभाशेन आसून ताका दोनूय वटांनी शिंविल्लो धोंपरामेरेन पावपी पंखो आसता. ताचेर कमराक गुठलायल्लो त्याच कपड्याचो शेलो आसता आनी त्या शेल्याकूय बोंबले सकयल येता असो एक ल्हानसो पंखो आसता. हेर अलंकार मात परंपरीक पद्दतीप्रमाण आसतात. म्हळयार गळयांत गळोभर माळो, हातभर कांकणां, कपलार भांगतिळो, बाजूबंद, नाकांत तशेंच नाकाचे मदीं लांबतो 'बुलाक' नांवाचो अलंकार आनी पांयांत भरपूर घुंगूर बांदतात.

पयलींच्या काळांत हो नाच चडसो देवळांनी तशेंच लग्नासारकिल्या मंगल सुवाळयांनी करप जातालो. पूण उपरांत तो राजदरबारांत आनी हालीं वेवसायीक रंगमाचयेर तशेंच हेर संस्कृतीक कार्यावळींनी पळोवंक मेळटा.

भरतनाट्यमाच्या प्रयोगांत मृदंग, वीणा, वायोलीन, मुरली, झांज, चिपळयो अशा वाद्यांची साथ आसता. तिस्त्र, चतुरस्त्र, मिश्र आनी आदिताल हे ताचे मुखेल ताल आसतात. रंगमाचयेचे उजवे वटेन हीं सगळीं वाद्यां आनी वादक आसतात. लोक बसतात त्या आसनांकडल्यान पयलीं मृदंगवादक, उपरांत घटम् वाद्य आसल्यार तें वाजोवपी ताचे दावे वटेन फाटल्यान, ताचे उपरांत मुखेल गायक नट्टुवनार हो 'ताळम' वाजयत पुराय प्रयोगाचीं सुत्रां सांबाळटा, ताचे फाटल्यान उजवे वटेन 'मोरसिंग' नांवाचें वाद्य दांत-ओंठांचे मदीं धरून उस्वासाच्या आदारान तोंडान वाजोवपी वादक आसता. नट्टुवनारा फाटल्यान दावे वटेन तंबोरो वाजोवपी आसता. नट्टुवनाराच्या फाटल्यान सहाय्यक गायक वा गायिका बसता. उपरांत वीणा वा वायोलीन वाजोवपी वादक आसता. वेणुवादक आसल्यार तो दोनूय गायकांच्या फाटल्यान आसता. भरतनाट्यमांत दाक्षिणात्य संगीत पद्दत वापरतात.

भरतनाट्यमांतले भाव हे अभिनयान उकतायतात. आंगिक, वाचिक, सात्त्विक आनी आहार्य अशे अभिनयाचे चार प्रकार आसात. तशेंच भरतनाट्यमांत मुखेलपणान तीन प्रवाह एकठांय जाल्यात. १) नट्टुवा मेळयाचें सदिर नाट्य. देवदासींचें नृत्य म्हण्टात ते हेंच. २) तंजावरच्या भागवत संप्रदायाक अणसरून करतात तें भागवतमेळा हें नृत्यप्रधान नाट्य आनी ३) कुरवंजी नांवाचें गांवगिरें नाट्य. ह्या तिनूय प्रवाहांचें सुसंवादी मिश्रण म्हळयारूच भरतनाट्यम् अशें शास्त्राचे जाणकार म्हण्टात.

मीनाक्षीसुंदरम् पिळ्ळै, मुत्तुकमार पिळ्ळै, चोकलिंगम् पिळ्ळै, चंद्रशेखर पिळ्ळै, रामय्या पिळ्ळै, किट्टपा पिळ्ळै हे भरतनाट्यमांतले नामनेचे परंपरागत नृत्यगुरू. गौरी अम्माळ, बालासरस्वती, रुक्मिणीदेवी ॲरंडेल, कलानिधी नारायणन्, मृणालिनी साराभाय ह्यो नामनेच्यो नर्तकी आनी रामगोपाल हो नामनेचो नर्तक.

यामिनी कृष्णमुर्ती आनी पद्मा सुब्रह्मण्यम ह्यो हालींच्यो नामनेच्यो नर्तकी. तशेंच कमला, इंद्राणी रेहमान, सोनल मानसिंग, वैजयंतीमाला, हेमा मालिनी ह्यो नामनेच्यो नर्तकी. मुंबयचो नामनेचो नृत्यगुरू पार्वतीकुमार हाणें तंजावरच्या मराठी राजांनी भरतनाट्यमाखातीर बरयल्ल्या मराठी रचनांचेर संशोधन केलें. ताचीच शिश्या आनी नामनेची महाराष्ट्रीय नर्तकी सुचेता भिडे चापेकर हिणें संशोधन फुडें चालू दवरलां.

हे कलेची उदरगत करपापासत कांय कलासंस्था वावर करतात. भरतनाट्यमाचें पद्दतशीर पदवीशिक्षण दिवपी 'कलाक्षेत्र' ही नामनेची संस्था चेन्नईंत आसा. एग्मोर हांगाचे 'इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ फाइन आर्टस' हे संस्थेचोय उल्लेख करपाक जाय. बडोदेच्या विद्यापिठा भाशेनूच हालींच्या काळांत मुंबय विद्यापिठानूय भरतनाट्यम नाचाक उच्च आनी अत्युच्च पदवेखातीर मुखेल विशय म्हणून मान्यता दिल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद** : नाच.

**भरतवाक्य** : नाटक सोंपतकच नाटकांतल्या सगळया कलाकारांनी म्हणपाचें एक मंगल वचन. संस्कृत नाटकाच्या निमाणें, नटांच्या तोंडांत जें एक आशीर्वचन नाटककारान घालां ताका 'भरतवाक्य' अशी संज्ञा आसा. भरताच्या नाट्यशास्त्रांत वा फुडल्या शास्त्रग्रंथांत ही संज्ञा ना. भासाच्या नाटकापसून फुडें सगळया संस्कृत नाटकांनी नाट्यप्रयोगाचो शेवट भरतवाक्याच्या गेय श्लोकान जाल्लो दिसता.

भरत म्हळयार नट. भरतवाक्य हाचो एक अर्थ भरतांचें, म्हळयार नटांचें वाक्य असो जाता. एकदां नाटकाक सुरवात जाली म्हण्टकच नटांक आपले भुमिकेचींच वाक्यां उलोवपाचीं आसतात. आपणाचें कांयच उलोवपाक मेळना. तेखातीर, नाटकाचे निमाणें त्या सगळयांच्या तोंडांत भरतवाक्य घालें, अशें राघवभट्टान आपले शाकुंतले वयले टिकेंत म्हळां. सामान्यपणान नाटकाचो नायक हें भरतवाक्य म्हण्टा. नाटक सोंपतकच सगळे नट रंगमाचयेर येवन प्रेक्षकांचे उपकार मानपाखातीर एक शुभशंसी प्रार्थना म्हण्टाले. ही प्रार्थना म्हळयार भरतवाक्य- 'भरतस्य भरतानां वा वाक्यम्।'.

भरत म्हळयार नाट्याचो आनी प्रयोगशास्त्राचो प्रणेतो भरतमुनी, असो भरतवाक्याचो दुसरो अर्थ करतात. ह्या अर्थान, नटांनी भरतमुनीक ओपिल्लीं आर्गां असो जाता.

भरताच्या मूळ पूर्वरंगांतलें नांदीचें स्वरूप संमिश्र आशिल्लें. म्हळयार मंगलारंभ, देवतांची स्तुती आनी आशीर्वचन हांचे जोडयेन राजा, राश्ट्र, कवी, प्रेक्षापती आनी प्रेक्षक हांचे उदरगतीची आनी अभिवृध्दीची प्रार्थना लेगीत नांदीश्लोकांत आसताली. पूण उपरांत पूर्वरंगाची उत्क्रांती जावन हे नांदीची परंपरा फाटीं पडली. नाटककारांनी आपणेंच प्रस्तावना बरोवपाक

सुरवात केली, तेन्ना नांदीचें स्वरूप बदललें. नांदींत ईशस्तुती, आशिवर्चन इतलेंच उरलें आनी राश्ट्रकल्याणाची भौशिक प्रार्थना प्रयोगाचे निमाणें आयली. ही प्रार्थना आनी प्रार्थनेची मूळ कल्पना भरताची आशिल्ल्यान हे प्रार्थनेक 'भरतवाक्य' अशें म्हणूंक लागले.

भरतवाक्यांत सादारणपणान राजा लोकांची उदरगत वा सामान्य लोकांचें हीत चिंतिल्लें आसता. पावस पडचो, बरी पिकावळ येवंची, गायांनी भरपूर दूद दिवंचें, लोकांक सूख मेळचें ह्या अर्थाची प्रार्थना आसता. कालिदासान शाकुंतलाच्या शेवटाक घाल्ल्या भरतवाक्यांत पयलीं राजाचें कर्तव्य सांगून उपरांत आपणाची एक उत्कट इत्सा उक्तायल्या, तें भरतवाक्य अशें आसा-

*प्रवर्ततां प्रकृतिहिताय पार्थिवः*
*सरस्वती श्रुतमहतां महीयसाम्।*
*ममापि च क्षपयतु नीललोहितः*
*पुनर्भवं परिगतशक्तिरात्मभूः ।।*

**अर्थ** : राजा प्रजेच्या बऱ्याखातीर यत्न करीत रावू. शास्त्राचो अभ्यास आशिल्लो विद्वान आनी कवी हांचेर सरस्वतीचो वरदहस्त आसूं. जाचें बळगें सगळयाक प्रगट जालां, अशा शंकरान म्हज्या पुर्नजल्माचो नाश करूं.

भारतीय नाटकांतल्या भरतवाक्याभाशेन युरोपीय आनी इंग्लीश नाटकांनी 'एपिलॉग' म्हळयार उपसंहार येता. 'भरतवाक्य' तशेंच 'एपिलॉग' दोनूय नाटकाचे निमाणें येतात. इतलेंच तांचेभितर साम्य आसा. एपिलॉग ह्या ग्रीसी उतराचो मूळ अर्थ जाहीर वक्तृत्वाचो उत्कट बिंदू असो आसा. ह्या एपिलॉगांत कांय वेळार त्या काळचें राजकारण वा समाजवेवस्थेचेर खर टिका आसताली आनी त्या काळचे नामनेचे नट हें भाशण करताले. युरिपिडीझ हाणें ह्या एपिलॉगचो आपल्या नाटकांत सगळयांत पयलीं उपेग केलो आनी एलिझाबॅथ राणयेच्या काळांत बॅन जॉन्सन ह्या सारक्या नाटककारान एपिलॉग घालून नाटकाचो शेवट करपाची चाल सुरू केली. उपरांत बॅन जॉन्सन हाणें नाटकाचे गुणवत्तेची चर्चा आनी टिकाकारांक जाप अशें एपिलॉगाचें स्वरूप थारायलें. नाट्यवेवसायाकडेन संबंद आशिल्ले नामनेचे लेखक एपिलॉग बरोवन दिताले आनी प्रकाशक तांचेकडल्यान बरोवन घेताले. ही पद्दत १६६० ते १७०० ह्या काळामेरेन चलली आनी उपरांत बंद पडली.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद** : नाटक, नांदी.

**भरती-सुकती** : चंद्र, सूर्य आनी धर्तरेक लागीं आशिल्ले हेर गिरे आनी नखेत्रां हांच्या गुरुत्वाकर्शणाच्या परिणामांक लागून धर्तरेवयल्या खूब व्हड जलसंचयांतलो (दर्यांतलो) उदकाचो थर चडटा-देंवता, हे प्रक्रियेक भरती-सुकती अशें म्हण्टात. सादारणपणान पुराय धर्तरेचेर दिसाक दोन खेपे भरती आनी दोन खेपे सुकती येता. एक, चंद्राच्या मुखार येवपी धर्तरेच्या भागाचेर आनी दुसरी, चंद्राचे आड वटेन आशिल्ल्या धर्तरेच्या भागाचेर. भरतेउपरांत सुकती आनी सुकते उपरांत परत भरती अशें हें चक्र चालूच आसता. चंद्र सदांच एक दीस ५२ मिनटां उसरां उदेता. हाका लागून सुकते-भरतेचो आवर्तन काळ सादारणपणान २४ वरां ५२ मिनटांचो आसता.

एके भरतेउपरांत दुसरी भरती सादारणपणान १२ वरां २६ मिनटांनी येता. सुकतेकूय होच नेम लागू पडटा. दर दिसा भरतेचे उंचायेत आनी सुकतेचे देंवतेंत फरक जाणवता. उमाशेक वा पुनवेक येवपी भरती ही शुक्ल वा कृष्ण पक्षांतले अश्टमीक येवपी भरतेपरस व्हड आसता. दर्याचे खोलायेप्रमाणूय हो भेद जाणवता. तशेंच जलसंचयाच्या विस्ताराच्या मानाप्रमाण गुरुत्वाकर्शणाच्या परिणामांत फरक दिश्टी पडटात. ह्या कारणांक लागून तळयासारकिल्या ल्हान जलसंचयाच्या पांवड्यांत जावपी बदल साप अल्प आसतात आनी तेखातीर ते दिश्टी पडनात.

भरतेचे सादारणपणान तीन प्रकार आसात : अर्दो-दिसाळो, दिसाळो आनी संमिश्र. अर्दो दिसाळो ह्या प्रकारांत दर दिसा दोन खेपे भरती आनी दोन खेपे सुकती येता. ह्यो दोनूय भरत्यो आनी सुकत्यो सादारणपणान सारकेच उंचायेच्यो आसतात. दिसाळया प्रकारांत दर दिसा एकूच भरती आनी एकूच सुकती येता. संमिश्र पद्दतिच्या प्रकारांत अर्दो-दिसाळो आनी दिसाळो हे दोनूय प्रकार जाणवतात. हातूंतल्या दोन भरत्यांची उंचाय सारकी आसना.

भरते वेळार उदकाच्या थराची उंचाय आनी सुकते वेळार उदकाच्या थराची उंचाय हातूंतल्या भेदाक 'भरतेची अभिशीम' (Range of tide) अशें म्हण्टात. हातूंत दिसानदीस बदल जायत आसतात. सादारणपणान चंद्रीम उदेता तेन्ना भरती येवपाक सुरवात जाता. सुमार ६ वरांमेरेन भरतेचें उदक चडत रावता. भरती येवन जेन्ना उदक थारता त्या खिणाक 'समा' (Spring tide) अशें म्हण्टात. तशेंच सुकतेचे उण्यांत उणे उंचायेक 'निखार' (heap tide) अशें म्हण्टात. समा आनी निखार हांचेमदलो वेळ सादारणपणान ६ वरां १२ मिनटांचो आसता.

भरती-सुकती हो एक थरावीक काळाउपरांत परत परत घडपी प्रकार आसून, तो चंद्रीम, सूर्य आनी धर्तरेक लागीं आशिल्ले हेर गिरे आनी नखेत्रां, तशेंच उदकाची खोलाय, तापमान आनी घनताय हांचेर आदारिल्लो आसा. पूण हे घडणुके फाटल्यान चंद्रीम होच चड प्रभावी थरता. न्युटन हाच्या गुरुत्वाकर्शणाच्या सिध्दांताप्रमाण धर्तरेच्या दर एका कणाचेर चंद्रिमाचो परिणाम जावन तो कण चंद्रिमाकडेन ओडटा. ह्या सिध्दांताप्रमाण संवसारांतलो दर एक कण दुसऱ्या वस्तूकणाक आपलेकडेन खेंचता. हाची प्रेरणा वस्तुकणांच्या वस्तुमानांच्या गुणाकाराच्या

समप्रमाणांत आनी ताचे मदल्या अंतराच्या वर्गाच्या व्यस्त प्रमाणांत आसता. ही प्रेरणा अंतराच्या वर्गाच्या व्यस्त प्रमाणांत बदलत आशिल्ल्यान, दोनूय वस्तूं मदलें अंतर आनी तांचीं वस्तुमानां हांच्यांतले ओडीचेर परिणाम करपाक अंतर खूब म्हत्त्वाचें आसता. हाका लागून सुर्याची धर्तरेवयली गुरुत्वाकर्शणाची ओड ही चंद्रिमाचे धर्तरेवयले ओडीचे १८० पटींनी चड आसून लेगीत भरती निर्माण करपाची चंद्राची क्षमताय सुर्याचे क्षमतायेपरस २.१७ पटींनी चड आसा. चंद्रिमा मुखार येवपी धर्तरेचो पृश्ठभाग धर्तरेच्या मध्यासावन सुमार ६४०० किमी. पयस आसता. पूण ह्या भागाचें चंद्रमध्यासावन अंतर वयर दिल्ल्या अंतराच्या मानान ६० पट चड आसता. तशेंच धर्तरेचें वस्तुमानूय चांद्र वस्तुमानाच्या ८९ पटींनी चड आसता. हाचो विचार केल्यार चंद्रिमामुखार येवपी धर्तरेच्या पृश्ठभागाचेर धर्तरेची ओड चंद्रिमाचे ओडी परस सुमार तीन लाख पट चड आसता.

हाचेवयल्यान त्या भागाचेर आशिल्लें उदक चंद्रिमाचे ओडीन ओडटा म्हणून भरती येता अशें समजप चुकीचें थरतलें. इतलें उदक आपलेकडेन ओडून घेवपाची क्षमताय चंद्रिमाचे ओडींत ना. पूण भूंयसपाट दिकेक उदकाक प्रेरणा (Force) मेळ्ळयार उदक स्थलांतर जावन प्रवाह निर्माण जावंक शकता. धर्तरेच्या सगळया भागार चंद्रिमाची एकसारकी ओड आसना. चंद्रिमा मुखार आशिल्ल्या धर्तरेच्या पृश्ठभागाचेर चंद्रिमाची चड ओड आसता. ताचेपरस उणी ओड चंद्राचे आड वटेनच्या धर्तरेवयल्या पृश्ठभागाचेर आसता. चंद्रिमाचे ओडीचो मान आनी दिका धर्तरेचेर एकसारक्यो आसनात. तांच्यांतल्या ह्या अल्प फरकाक लागून भरती निर्माण जाता. चंद्रिमासावन दोन वस्तू विंगड विंगड अंतराचेर आसत जाल्यार तांचेर निर्माण जावपी प्रवेग लेगीत विंगड विंगड आसतात. हाचो परिणाम म्हळयार त्या वस्तूंभितर सापेक्ष हालचाली निर्माण जातात. उण्या अंतराचेर आशिल्ली वस्तू चंद्रिमाकडेन चड नेटान ओडपाक लागता. हाका लागून चंद्रिमा मुखार आशिल्ल्या उदकाचेर धर्तरेपरस चड प्रवेग निर्माण जाता आनी चंद्रिमाचे आड वटेन आशिल्ल्या उदकाच्या सापेक्ष धर्तरेचेर चड प्रवेग निर्माण जाता. अशे रितीन प्रवेगांभितर निर्माण जावपी फरकांक लागून चंद्रिमामुखार आशिल्लें उदक चंद्रिमाकडेन धर्तरेपरस चड ओंडटा. हाका लागून ते सुवातेर उदक चड भरता. दुसरे वटेन उदकापरस धर्तरी ही चंद्रिमाकडेन चड ओडटा आनी थंय उदक भरता.

चंद्रिमा मुखार जो धर्तरेचो भाग येता थंय आनी आड आशिल्ल्या भागाचेर कांय प्रमाणांत उणी भरती येता. हाका लागून सादारणपणान सगळेकडेन दिसाक दोन खेपे भरती आनी दोन खेपे सुकती येता. सूर्य, चंद्रीम आनी धर्तरी जेन्ना एके ओळींत येतात तेन्ना अर्दो म्हयनाळो परिणाम जाणवता. तो सुमार १४ $^{3}/_{4}$ दिसांचो आसता. अशावेळार म्हळयार पुनवेक वा उमाशेक चंद्रीम आनी सूर्य हांचीं आकर्शणां एकेच ओळींत येवन हेर दिसांपरस व्हड भरती येता. हाका जोरगत उदक अशें म्हण्टात. शुक्ल आनी कृष्ण अश्टमींक सूर्य आनी चंद्रिमाच्या आकर्शणाच्यो दिको एकामेकांक काटकोन करतात. हाका लागून सूर्य आनी चंद्रिमाच्यो भरत्यो-सुकत्यो निर्माण करपी प्रेरणांचे परिणाम एकामेकां आड आसतात. जे सुवातेर चंद्रिमाक लागून भरती येता थंय सूर्याक लागून सुकती ओडटा. अशा वेळार भरतेची उंचाय उणी आसता. हे अवतिकायेक 'भांग उदक' म्हण्टात.

भरतेचे वा सुकतेचे उंचायेंत दिसानदीस बदल जायत वतात. चंद्रीम जेन्ना खगोलीय विषुववृत्ताचेर येता, त्या वेळार येवपी दोनूय भरत्यो सादारणपणान समान उंचायेच्यो आसतात. चंद्रिमाची क्रांती जेन्ना उत्तरेकडेन वा दक्षिणेकडेन वाडत वता, ते प्रमाण दिसाक येवपी दोन भरत्यो वा सुकत्यो असमान उंचायेच्यो जायत वतात. चंद्राची क्रांती चड जाता त्यावेळार भरतेक 'उश्ण कटिबंधीय भरती' अशें म्हण्टात. धर्तरी सुर्याभोंवतणीं घुंवता आसतना सुर्याचे क्रांतितूय बदल जायत आसतात. हाका अर्द-वर्सुकी परिणाम अशें म्हण्टात. हाचो आवर्त (Periodic) काळ ६ म्हयन्यांचो आसता. वर्सांतल्यान दोन खेपे सूर्य खगोलीय विषुववृत्तांक लागीं आसता. ह्याच सुमाराक चंद्रिमूय विषुववृत्ताकडेन आयल्यार, चंद्रीम-सूर्य हांची क्रांती शुन्य अंशाक लागीं आसता. अशा वेळार (दोनूय एकठांय आशिल्ल्यान) विषुववृत्ती लागशिल्ल्या सागराक व्हड भरती येता. ह्याच तेंपार पुनव वा उमास आसल्यार चड व्हडली भरती येता.

भरते-सुकतेच्या पुर्वानुमानाखातीर आनी नव्या बंदराची निवड करतना ते सुवातेर येवपी भरतेचे वेध खूब दीस पयलीं घेवप चड गरजेचें आसता. दर्यांत आशिल्ल्या खडपाचेर उबो केल्लो रेखांकीत खांबो हें भरती मेजपाचें एक सादें उपकरण.

चंद्रीम आनी सूर्य हांच्या गुरुत्वाकर्शणाक लागून जशी दर्याक भरती येता तशीच भरती धर्तरेच्या शिलावरण आनी थंयचें तापमान हातूंतय येता. पूण भुंयेचे कण उदकाप्रमाण स्थलांतर करूंक शकनात. हाका लागून भरती निर्माण करपी प्रेरणेचो भूपृश्ठभागाक लंब दिकेक आसपी घटकूच फकत कार्यरत जाता. हाका लागून सुके भुंयेक येवपी फूग सुमार २०-२५ सेंमी. इतली आसता. पूण सहजपणान हो फरक मतींत येना. वातावरणाक येवपी भरती दर्याचे भरतेच्या मानान उणी आसता.

दर्याक येवपी भरतेचे उंचायेचेर वाऱ्याचोय परिणाम जाता. भरती येवपाच्या वेळार, वारो जर दर्याकडच्यान कांठाकडेन व्हांवता जाल्यार उदकाची उंचाय वाडटा. वारो जर परतो मारत जाल्यार उदकाचो पांवडो उणो जाता. हेचप्रमाण वाऱ्याचो दाब वाडत जाल्यार जलसंचयांतल्या उदकाच्या पांवड्यांची उंचाय उणी जाता.

उदकांतली येरादारी तशेंच नुस्तेमारी ही बरीचशी भरते-सुकतेचे प्रक्रियेचेर आदारून उरता.

- कों. वि. सं. मं.

**भरतेश वैभव :** १५६७ वर्साच्या अदमासाक रचिल्लें एक नामनेचें कन्नड महाकाव्य. हें काव्य जैन महाकवी रत्नाकरवर्णी हाणें रचलें. 'जैन काशी' म्हणून नामना आशिल्ल्या दक्षिण कॅनरा जिल्ह्यांतल्या मुडबिद्री गांवांत एका क्षत्रिय कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. १५५७ ते १५७० ह्या काळांत ताणें आपल्यो चडशो साहित्यकृती रचल्यो. रत्नाकरवर्णी, रत्नाकरसिध्द, रत्नाकरअण्णा ह्या तीन नांवांनी आपल्यो रचणुको पुराय केल्यो. भरतेश वैभव, त्रिलोकशतक, अपराजितेश्वर शतक, रत्नाकराधीश्वर शतक आनी अण्णन पदगळु ह्यो ताच्यो कांय नामनेच्यो रचणुको आसात.

भरतेश वैभव ह्या काव्यांत रत्नाकरवर्णी हाणें भरत-चक्रवर्ती वा भरतेश वा भरतेश्वर हाच्या भव्य आनी उदात्त जिणेचें चित्रण केलां. ताचें सात्त्विक व्यक्तिमत्व उक्तावन दाखोवपी जायत्या ल्हान-सान घडणुकांचो तपशील सांगपी रत्नाकरवर्णी होच पयलो कवी. जैन संप्रदायांतल्या भरत-चक्रवर्तीच्या परंपरीक चरित्रचित्रणांत चडसो बदल करिनासतना रत्नाकरवर्णीन सामकें काव्यात्म आनी अर्थगर्भीत अशें हें चरित्र बरयलां. तीन भागांनी आनी अंयशीं संधींनी वांटिल्ल्या ९,९०७ पद्यांचें हें काव्य ताणें १५६७ वर्सा फकत णव म्हयन्यांनी बरोवन पुराय केलें.

ह्या काव्याची निर्मिती जावंचे पयलीं भरत-चक्रवर्तीचें चरित्र स्वतंत्रपणान कोणेंच बरोवंक नाशिल्लें. पूण संस्कृत आनी कन्नड भाशेंतल्या ऋषभदेवाच्या चरित्रांत मात 'भरत-बाहुबली' हे कथेंत तुटक स्वरुपांत भरत-चक्रवर्तीचें चरित्र आयलां. रत्नाकरवर्णीन आपल्या ह्या काव्यांत भरत-चक्रवर्तीकूच ह्या काव्याचो नायक केला. हेंच ह्या काव्याचें खाशेलपण.

भरतेश हो जिनेश्वर म्हळयार तीर्थंकर न्हय. तो एक सिध्दपुरूस. ताका लागून तीर्थंकरांभाशेन ताची पंचकल्याणपुजा बांदपाक मेळना. पूण भरतेश हो तीर्थंकरांचे योग्यतायेचो आसा हें दाखोवपाक कवीन भोगविजय, दिग्विजय, योगविजय, अर्ककीर्तीविजय आनी मोक्षविजय ह्या पांच विजयांचो, भरतेशाचे जिणेकथेंत आस्पाव करून आपलें खाशेलपण दाखयलें. तेचखातीर भरतेश कथेंतल्या ह्या पांच विजयांनी भोगजीण, त्यागजीण आनी योग हांचो त्रिवेणी संगम सादला अशें कन्नड महाकवी द. रा. बेंद्रे हाणें म्हळां.

'भोगविजय' हो भरतेश वैभव काव्याचो पयलो भाग. ह्या भागाचे सुरवेक कवीन, एका राजर्षीभाशेन भरत-चक्रवर्तीचें वर्णन केलां. रत्नाकरवर्णीचो हो भरतेश अनासक्त कर्मयोगी, स्थितप्रज्ञ, सत्य जाणपी, योग आनी भोग हांचो मेळ सादपी. कवी म्हण्टा, 'भोगांत पुराय मग्न जावनूय खिणाभितर ताचो त्याग करून योगावस्थेंत तल्लीन जातकच, खिणापयलींच्यो वासना विसरपाचें सामर्थ्य भरताक लाबिल्लें. भरतेशाची संवसारीक जीण सामकी व्यापक आशिल्ली, अशें सांगतना ताका ९६,००० राणयो आसुनूय ताणें आपल्या सगळ्या राणयांचें सारकेंच प्रेम संपादन केल्लें अशें कवी म्हण्टा. तातूंतलो शृंगार मात खंयच सकयल्या पांवड्यार देंवलोना. उरफाटें, ताच्या शृंगार आनी हास्यवर्णनांत एके तरेचें पावित्र्य आनी मांगल्य आशिल्ल्याचें जाणवता. घोव-बायलेचें आदर्श प्रेम कसले तरेचें आसचें, हेंच भरत-चक्रवर्तीच्या कुटुंबिक जिणेच्या चित्रणांतल्यान कवीन दाखयलां. रत्नाकरवर्णीच्या वर्णनसामर्थ्याक शीम ना. 'भरतेश वैभव' हें ताचें काव्य सुखद वर्णनान उपाट भरलां. ताचे जोडयेक बायलेची सोबीतकाय, वाद्य, गीत, नृत्य, नाटक, शृंगार हांचीं ओडलायणीं वर्णनां ताच्या ह्या काव्यांत दिसतात. ताच्या काव्याची भास ही सामान्याची भास आसून, ताची रचणूक सहज-सोंपी आसा. ताच्या ह्या काव्यांतली लय आनी गेयता तोखणाय करपासारकी आसा.

जिनसेनाचार्याच्या पूर्व पुराणांत ऋषभदेवाची मूळ कथा येता, पूण रत्नाकरवर्णीन मात परंपरीक कथेंत बदल करून पुराय आत्मनिश्ठ रचणूक केल्या. भरत-बाहुबली हांच्या झुजाक सुरवात जावंचेपयलींची कथा परंपरीक कथेपरस मातशी वेगळी, भव्य आनी विस्तारान आसली तरी कथेचो गाभो मात परंपरीक आसा. झुजाचें चित्रण परंपरेपरस वेगळें आनी खाशेल्या स्वरुपांचें आसा.

जैन म्हाकवी पंप आनी रत्न, वीरशैव कवी हरिहर, ब्राह्मण कवी कुमारव्यास ह्या पंथीय महाकवीं इतकीच श्रेश्ठ प्रतिभा लाबिल्लो रत्नाकरवर्णी हो एक कवी.

- कों. वि. सं. मं.

**भरद्वाज :** भरद्वाज नांवाचो उल्लेख बऱ्याच म्हापुरसांचे बाबातींत जाल्लो आसा. नामनेचो वैदिक ऋषी भरद्वाज हो तातूंतलो एक. अंगीरस बृहस्पति आनी ममता हांचो तो पूत. ऋग्वेदाच्या सव्या मंडलांतल्यो चडशो ऋचा भरद्वाज ऋषी आनी ताच्या कुळांतल्या हेर मनशांनी रचिल्ल्यो आसात. तेखातीर भरद्वाज हो उल्लेख एके व्यक्तीचो आनी एका कुळाचो, असो दोट्टी जाल्लो दिश्टी पडटा.

महाभारतांत एका भरद्वाज ऋषीचो उल्लेख आसा. भरद्वाज आनी घृताची हांचेपसून द्रोणाचार्याचो जल्म जालो असो उल्लेख आसा. वाल्मिकी ऋषीन आपल्या शिश्याक सगळयांत पयलीं रामायणाची कथा सांगली, त्या शिश्याचें नांव भरद्वाज आशिल्लें. कुरूक्षेत्रार बाणाचे खाटीचेर पडिल्ल्या भीष्माक मेळपाक गेल्ल्या एका ऋषीचें नावूंय भरद्वाज आशिल्लें. सप्तर्षीमदीं भरद्वाजाचो आस्पाव जाता. 'श्रौतसूत्र' आनी 'धर्मसूत्र' ह्या धर्मीक ग्रंथांची रचणूक करपी ग्रंथकार म्हणूनूय भरद्वाज नांवाजिल्लो आसा. कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत अर्थशास्त्राकार म्हणून भरद्वाजाचो उल्लेख आयला. भरद्वाजसंहिता, भरद्वाजस्मृति, वास्तुतत्त्व, वेदपादस्तोत्र ह्या ग्रंथांचो कर्तोय भरद्वाज आशिल्लो.

'भरत (द)' आनी 'वाज' ह्या दोन संस्कृत उतरांचो समास जावन 'भरद्वाज' हें उतर जालां. 'भरद' म्हळयार सांबाळ करपी आनी 'वाज' म्हळयार अन्न, संपत्ती आनी बळगें. तेन्ना भरद्वाज ह्या उतराचो संपन्न आनी बळिश्ट असो अर्थ जाता. 'भर-द्वा-ज' म्हळयार 'जो दोन बापांयकडल्यान जल्मला ताचो सांबाळ कर' असो अर्थ जाता. बृहस्पतीन ममता हे आपले भावजयेकडेन समागम केले उपरांत भरद्वाज जल्माक आयलो. देखून तो दोन बापांयचो पूत थारलो. तशेंच, ताच्या जल्माउपरांत बृहस्पति आनी ममता दोगांयनी 'हाचो सांबाळ कर' अशें एकामेकांक म्हळें आनी दोगांय ताका सोडून गेलीं अशी कथा आसा. उपरांत मरुतांनी पुत्रप्राप्तीखातीर यज्ञ करपी दुष्यंताचो पूत भरत हाचे सुवादीन केलो. भरद्वाज हो भरताचो पुत्र थारलो वा ताणें यज्ञ करून भरताक एक पूत मेळोवन दिलो अशी कथा मेळटा. मरुत् ह्या देवतांनी वा वैशालीच्या मरुत्तनामक राजान ताचें पालन केलें अशोय कथा आसात.

काशीच्या दिवोदास राजाचो भरद्वाज नांवाचो एक पुरयत आशिल्लो. राजाखातीर यज्ञ करून भरद्वाजान ताका प्रतर्दन नांवाचो चलो मेळोवन दिलो. चायनाम आनी प्रस्तोक ह्या दोन राजांकडेन भरद्वाजाचो संबंद आयला. भरद्वाजाचे आज्ञेवयल्यान ताचो चलो पायू हाणें ह्या राजांक जैत मेळोवन दिलें. तांच्या वंशजांक 'भारद्वाज' अशें म्हण्टात.

विश्वमित्राच्या रैभ्य नांवाच्या चल्याकडेन इश्टागत आशिल्लो एक भरद्वाज जावन गेलो, असोय एक उल्लेख मेळटा.

भरद्वाज नांवाचो अंगिरसकुलोत्पन्न एक ऋषी गंगेचेर रावतालो. एक दीस गंगेचेर न्हावपाक गेल्लेकडेन, ताका घृताची नांवाची अप्सरा दिसली. तिका पळयनाफुडें ताचें वीर्य स्खलन जालें. तें ताणें एका दोण्यांत दवरलें. ताचेपसून जो चलो जालो ताचें नांव उपरांत द्रोण अशें दवरलें.

भरद्वाज नांवाचो एक सुत्रकारूय आसलो. ताणें 'श्रौतसूत्र' आनी 'गृह्यसूत्र बरयलां. तशेंच 'धर्मसूत्र' बरोवपी ग्रंथकार म्हणुनूय तो नांवाजिल्लो आसलो. कौटिल्यान अर्थशास्त्रकार म्हणून भरद्वाजाचो सात खेपे उल्लेख केला.

- कों. वि. सं. मं.

**भर्तु, गजानन सिताराम :** (जल्म : २२ सप्टेंबर १९२३, म्हापशें).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. सुरवेक तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५२ वर्सा सावन तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी जालो. १८ ऑक्टोबर १९४६ दिसा म्हापशां जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पुलिसांनी ताका तीन फावटीं धरलो आनी मार दिलो. ताणें वट्ट स म्हयने बंदखण भोगली. बंदखणींतल्यान सुटका जाले उपरांत तो आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या मुखेल्यांक पुलिसांविशीं म्हायती दिवप, भूंयगत क्रांतिविरांक जेवण दिवप आनी वण्टीपत्रकां लावप असलीं कामां करतालो.

भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. १८ जून १९८६ दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**भवभूति :** इ.स.च्या आठव्या शेंकड्यांतलो एक म्हान संस्कृत नाटककार. ताच्या बापायचें नांव नीलकण्ठ, आवयचें नांव जातुकर्णी आनी आज्याचें नांव भट्टगोपाळ आशिल्लें. 'श्रीकण्ठ' ही भवभूतिक मेळिल्ली उपाधी. पूण 'भवभूति' हें ताचें प्रचलीत नांवूय ताका मेळिल्ली एक उपाधीच अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा.

भवभूतिचो जल्म दक्षिणापंथांतल्या पद्मपूर गांवांत जालो. ताचे पुर्वज ह्याच गांवांतले आशिल्ले. विदर्भाच्या भंडारा जिल्ह्यांतल्या आमगावा लागसारचें, आतांचें पद्मपुर हेंच त्या काळांतलें पद्मपूर अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

भवभूतिन ज्ञाननिधी नांवाच्या गुरूकडेन अध्ययन केलें. योग, वेद, उपनिषदां हातूंत तो निपूण आशिल्लो. तेच भाशेन व्याकरण, अलंकार-शास्त्र, तर्कशास्त्र हे ताचे आवडीचे विशय. संस्कृत भाशेचेर लेगीत ताचें खूब प्रभूत्व आशिल्लें. ताच्या ह्या व्यासंगाचो प्रत्यय ताचे नाट्यकृतींतल्यान दिश्टी पडटा.

भवभूतिन 'महावीरचरित', 'उत्तररामचरित' आनी 'मालतीमाधव' अशीं तीन नाटकां बरयलीं. हातूंतलीं पयलीं दोन नाटकां रामकथेचेर आसून तिसरें समाजीक आसा. भवभूति स्वभावान मुळांत कवी आशिल्ल्यान ताचें हीं नाटकां नाट्यमय काव्यांच जाल्यांत.

भवभूतिच्या नाटकांची थोडेभितर वळख अशीः 'महावीरचरित' ह्या नाटकांत भवभूतिन रामाच्या चरित्राविशीं कांय दुबाव आनी आक्षेप आसले ताचें निराकरण केलां. हें नाटक सात अंकी आसून तातूंत रामायणांतल्या पयल्या स खंडांचो कथाभाग आयला. हातबरपां आनी संस्कृत टिकाकारांच्या पुराव्यांवयल्यान भवभूतिन अंक ५ श्लोक ४६ मेरेनचें नाटक बरयलें आनी फुडलो सात अंकांमेरेनचो कथाभाग आनीक कोणेंय तरी बरयला, अशें काय जाणांचें मत आसा.

'उत्तररामचरित' ह्या नाटकाचे सात अंक आसून तें रामायणाच्या उत्तरार्धाचेर आदारिल्लें आसा. रामाच्या राज्याभिशेकापसून सीतेच्या त्यागा उपरांत सीता मीलनामेरेनचे प्रसंग हातूंत वर्णिल्यात. तातूंतल्यो कांय घडणुको मूळ रामायणांतल्यो नासून काल्पनीक बरयल्यात.

'मालतीमाधव' हें ल्हान धा अंकांचें नाटक. मालती आनी माधव

नांवाच्या दोन प्रेमिकांचेर बरयल्लें हें एक काल्पनिक प्रणयनाट्य. नाटककारान ह्या नाटकावरवीं उदात्त मोगाची देख लोकांमुखार दवरपाचो एक सफळ यत्न केला. तेच भाशेन, धर्माविरोधी मोग समाजाक मुखार व्हरूंक शकना, देखून तसल्या मोगाक बळगें दिवंक जायना, अशें नाटककार ह्या नाटकांत सुचयता.

भवभुति गंभीर वृत्तीचो आनी तापट स्वभावाचो आशिल्लो अशें ताच्या नाटकांवयल्यान स्पश्ट दिसता. ताका आपले विद्वत्तेचो, कवित्त्वाचो आनी रसीकतायेचो अभिमान आसलो. आपणाले विद्वत्तेप्रमाण आपले बरपावळीक मान मेळचो अशें ताका दिसतालें. देखून आपलें महावीरचरित नाटकाचे पांच अंक बरोवन जातकच त्या काळांतल्या विद्वानांक आनी रसिकांक परिक्षण करपाखातीर दिले. जाणकारांनी तें नाटक हलक्या दर्जांचें मानून तातूंतले कांय दोश दाखयले. तेन्ना भवभूतिक खूब राग आयलो. ताणें महावीरचरित नाटक अर्द्यारूच सोडलें आनी ह्या गर्विश्ट पंडितांची संगत सोडून उत्तरेकडेन गेलो.

'म्हजे प्रतिभेक न्याय दिवपी, आपलेपणान समजून घेवपी आत्मो, केन्ना तरी, खंय तरी मेळटलोच; काळ अनंत आसा आनी पृथ्वी विशाल आसा' ह्या ताच्या उतरांवयल्यान अशें दिसता, भवभूति विद्वान व्यक्ती आसुनूय ताका ताच्या भोंवतणच्या मनशांकडल्यान फावो तसो मान आनी कीर्त मेळिळना. ती ताका झगडून घेवंची पडली आसूंक जाय अशें कांय अभ्यासक मानतात.

भवभूतीच्या नाटकांचे हेर भाशांनीय अणकार जाल्यात. महावीरचरित-इंग्लीश उत्तररामचरित-इंग्लीश आनी फ्रेंच; मालतीमाधव-फ्रेंच, जर्मन आनी इंग्लीश.

- प्रकाश पाडगांवकार

**भवाई :** गुजरात-राजस्थानांतल्या लोकनाचाचो एक परंपरीक प्रकार. असाईत ठाकूर ह्या गुजराती साधूक भवाईचो जनक मानतात. ह्या मूळ गुजराती लोकनाट्याक राजस्थान-माळव्यांत नृत्य-नाट्याचें स्वरूप मेळ्ळां. नाच-पदां म्हणपी एका नागाजी नांवाच्या जाटान सुमार ४०० वर्सांपयलीं ताका हें स्वरूप दिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. तेन्नाच्यान थंय भवाईचे पंगड तयार जाले आनी ते गांवागांवांनी भोंवन भवाई नाचाचे खेळ करून लोकांक रिझोवपाक लागले. देखुनूच थंयच्या लोकनर्तकांमदीं भवाईक एक स्वतंत्र सुवात मेळ्ळी, अशें आईन-इ-अकबरींतल्या भवाईचो जो उल्लेख आयला ताचेवयल्यान कळटा. गुजरातांतल्या तरगाळा जातीचे लोक परंपरीक तरेन भवाईचे खेळ अजुनूय करतात.

गुजराती भवाई नाट्याची कथा चडशी लोकगितांचेर आदारिल्ली आसता आनी ती चार अवस्थांनी विभागिल्ली आसता. पयले अवस्थेंत हंसोली आनी नरवाहन हांची आनी दुसरे, तिसरे तशेंच चवथे अवस्थेंत हंसराज आनी वच्छराज नांवाच्या जुंवळया भुरग्यांची तीन जल्मांची कथा आसता.

गुजरातांतलें भवाई लोकनाट्य आनी राजस्थानांतलें भवाई नृत्यनाट्य हांच्या खेळांत चडसो फरक नासता. दोनूय प्रकारच्या भवाई खेळांक खास अशी रंगमाची नासताच. खंयचोय रस्तो, देवळामुखार वा खंयच्याय उकत्या जाग्यार हे लोक आपलो खेळ करतात. ह्या खेळाक तांचो खास असो पड्डो नासता. ते कसलेंय लुगट वा शेंदरी पड्ड्याचे सुवातेर लायतात.

प्रत्यक्ष खेळाक सुरवात करचेपयलीं सुमार १० चौखण फूट (सु. ३.४८ चौ.मी.) इतली सुवात निवळ करून थंय रंगदेवतेची स्थापणूक करतात. हे रंगदेवतेच्या आसना सकयल शुभचिन्न म्हणून त्रिशूळ आनी आसना फाटल्या पड्ड्याचेर वेलबुट्टी चितरायतात. उपरांत दिवो लावन, दोन प्रार्थना गितांनी रंगदेवतेची प्रतिश्ठापना करतात. हे रंगभूंयेक ते खुबूच पवित्र मानतात. थंय पेटपी दिवो सुरवेक सावन खेळ सोंपमेरेन दुसऱ्या दिसा म्हणजे मुखेल पात्रान आपल्या पांयांतले चाळ सोडयमेरेन पेटत दवरपाची चाल आसा.


भवाई नाच

भवाईंतल्या पात्रांचें न्हेसण सादें आसता. तोंड पयलीं तुकतुकीत करून ताचेर खडू, कुकूम आनी काजळाच्यो रेगो ओडटात. तातूंत विदुशकाचें तोंड हेर पात्रांपरस चड भडक आसता.

खेळ सुरू जावंचे पयलीं ते पांच-सात पदां गावन देवीची तुस्त करतात. उपरांत गणेशाचो प्रवेश जाता. ताचे उपरांत फाटोफाट हेर कांय प्रसंग दाखयतात. दर देखाव्यांत विदुशक (रंगलो) आसताच. तो फकाणां-मस्कऱ्यो करून लोकांक हांसयता. पात्रांचें भाशण पयलीं थारायल्लें नासता. तांकां आयत्या वेळार जें येवजता तेंच तीं उलयतात. बायलांचो भेस केल्लें पात्र प्रेक्षकांमुखार येवन तेलांत भिजयल्लो कांकाडो स्वताभोंवतणी घुंवडायत अभिनय करता. खंयच्याय खेळांत नायक, नायिका आनी विदुशक अशीं तिनूच पात्रां आसतात.

भवाई नृत्यनाट्यांतलीं पदां तालासुरांत आसतात. वाद्याचे आनी गायनाचे स्वर चडशे पंचमांत वा धैवतांत आसतात. पात्रांचे शब्दोच्चार

आनी स्वर स्पश्ट आसतात. तांचे हावभावूय प्रभावी दिसतात. संवाद चडशे पद्यांतूच आसतात.

भवाईची संहिता लिखीत ना. ती चडशी मौखिक परंपरेनूच आयिल्ली आसता आनी तिका 'वेश' म्हण्टात. ह्या वेशाची संख्या ३६० मेरेन आसा. ह्या वेशांवरवीं दीसपट्ट्या जिवितांतल्या समाजीक, धर्मीक प्रसंगांचेर उजवाड घालतात. तातूंतले कांय वेश अशे : बोराबोरी-लोकांक लुबाडपी कंजूस वेपारी दापत्य, सूरदास-कुडड्या कुप्रसिध्द साधूची कथा, डोकरी तरणाटे चलयेचें म्हातान्याकडेन लग्न, लाडालाडी - चड बायलो आशिल्ल्याचे वायट परिणाम, शकरिया-गारुडी आनी जोगिणीचो मोग. तेभायर तरसादीचो नाच, मडक्यांचो नाच, जळपी बाटल्यांचो नाच आनी हेर नाचांवरवीं भवाईचें खाशेलपण दिश्टी पडटा. ह्या नाचाच्या वेळार लोकगितांक सारंगी, शेनाय, चिपळयो हीं वाद्यां वापरतात.

भवाई नृत्यनाट्यांत थोडी भोव अश्लीलताय आनी अभद्रताय आसता. ती बदलपाखातीर कांय समाजकार्यकर्त्यांनी खूब यत्न केले. तातूंतलो गुजरातचो रणछोडभाई उदयराम हो मुखेल. लोकांमदलो भवाईचो



गुजरातचो भवाई नाच

प्रभाव उणो करपाच्या हेतान दलपतराम, नर्मदाशंकर, मणिभाई, नभुभाई, विभाकर प्रभृती हांणी रंगमाचयेक नवें रूप दिलें. नामनेचो नाटककार चंद्रवदन मेहता हाणें भावईचे धर्तेचेर हो-होलिका ह्या नव्या लोकनाट्याची निर्मिती केली.

- कों. वि. सं. मं.

**भवानी :** शिवाची बायल. 'भव' म्हळ्यार शिव, ताची बायल भवानी. हिका शिवाची इत्सा-गिन्यान आनी क्रियारूप शक्त मानून शैव आनी तंत्र सिद्धांतांत दोगांयचो अभेद दाखयला. ही शक्त शंकराभशेन सगुण आनी निर्गुण रुपांत वावुरता. ह्या दोनूय रुपांचें वर्णन तंत्रशास्त्रांत मेळटा. तशेंच संस्कृतांतल्या सौंदर्य लहरी, ललिता सहस्त्रनाम, देवी भागवत, भवानी भुजंगम स्तोत्र ह्या ग्रंथांनी देवीचीं बरीचशीं कार्यां वर्णिल्यांत.



तुळजापूरची भवानी

सगुण रूपांत ती सृश्टीची उत्पत्ती, स्थिती आनी लय हीं कामां करता आनी निर्गुण रुपांत ती चिदानंदरुपांत रावता.

देवी, महादेवी, ललिता, पार्वती, त्रिपुरसुंदरी तशेंच महिषासुरमर्दिनी, दुर्गा, चंडी, भुवनेश्वरी ह्या नांवांनीय तिका भजतात.

भवानी ही ठाणेश्वर वा स्थानेश्वर वा थानेसर (पजाब) हांगाच्या शक्तिपिठाची अधिश्ठात्री देवता आसा. महाराश्ट्रांत तुळजापूर हें भवानीचें क्षेत्र आसून, हांगाची तुळजाभवानी ही जायत्या जाणांची कुलदेवता आसा. शिवाजी महाराजाचीय ती कुलदेवता आसून, तिणेंच शिवाजीक तलवार भेट दिल्ल्याची आख्यायिका आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**भवानीदास - १ :** (इ.स. १८वो शेंकडो). एक हिंदी जैन भक्तकवी. हो श्वेतांबर जैन आसून, आग्रा रावतालो आसुंये. गुरू मानाजी हें ताच्या गुरूचें नांव.

वाराणसीच्या रामघाटावयल्या जैन मंदिरांत ताचें सगळें साहित्य आसा. थंय ताचे सगळे मेळून अठरा ग्रंथ आसात. हे सगळे ग्रंथ ताणें हिंदी भाशेंत बरयल्यात. आपल्या ह्या ग्रंथांनी ताणें जिनेंद्राची तोखणाय केल्या. तशेंच कांय ग्रंथांनी तत्त्वचर्चाय केल्या. चौवीसजिनबोल, अध्यात्मबारहमास, ज्ञाननिर्णयबावनी अशीं ताच्या ग्रंथांचीं नांवां आसात. तशेंच ताचें हेर कांय स्फूट लिखाणूय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**भवानीदास - २ :** (इ. स. चो १९वो शेंकडो). एक पंजाबी कवी. ताचें दुसरें नांव उमादास. हो पंजाबांतल्या पतियाळा नरेशाच्या आलाशिऱ्याक आशिल्लो. हाचे आपजिणेविशीं कांयच म्हायती मेळना.

भवानीदासान महाभारताच्या स्वर्गारोहण, मौसल, प्रस्थान, अश्वमेध आनी सौप्तिक ह्या पांच पर्वांचो हिंदींत अणकार केला. तशेंच, नीतिरत्नाकर, नाममाला, कुरूक्षेत्रमाहात्म्य, पंचरत्न, काव्यकुतूहल, सुदामचरित्र, बारहमासा हे ग्रंथूय ताणें बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**भविसयत्तकहा :** एक जैन महाकाव्य. हें अपभ्रंश भाशेंत आसा. भविष्यदत्तकथा हें ताच्या नांवाचें संस्कृत रूप. धाव्या शेंकड्यांत धनपाल धक्कड नांवाच्या कवीन हें काव्य बरयलें.

ह्या काव्याची कथा लौकीक स्वरुपाची आसा. राजघराण्यांतलो पुरूस हो महाकाव्याचो नायक आसचो हो संकेत मोडून, धनपालान एका सामान्य मनशाक आपल्या काव्याचो नायक केलो. ह्या काव्याची थोडेभितर कथा अशी-

भविसयत्त वा भविष्यदत्त हो एक वैश्यपुत्र त्या महाकाव्याचो नायक. गजपूर नांवाच्या गांवांतल्या धनपाल नांवाच्या एका वेपाऱ्याचो हो पूत. धनपालाचे पयले बायलेचें नांव कमलश्री. उपरांत धनपाल सरूपा नांवाचे बायलेवांगडा दुसरें लग्न जाता. तेन्ना धनपालाक बंधुदत्त हो दुसरो पूत जाता. पिरायेंत येतकूच बंधुदत्त वेपाराच्या निमतान कांचनद्विपाकडेन वता. आपले आवयचे परवानगेन भविष्यदत्तूय आपल्या सवतीभावा वांगडा वता. दुर्दैवान तांची दर्यांतली वाट चुकता आनी ते मैनाक नांवाच्या एका जुंव्यार पावतात. उपरांत बंधुदत्त ताचो घात मारता, भविष्यदत्ताक एकलोच थंय सोडून आपल्या वेपारी इश्टांवांगडा फुडें वता. एकलो पडिल्लो भविष्यदत्त भोंवडी करीत करीत एका नगरांत पावता. थंयच्या जैन मंदिरांत वचून भविष्यदत्त चंद्रप्रभाजिनाची पुजा करता. ह्याच नगरांत ताका एक सोबीत बायल मेळटा. एका काळार समृध्द आशिल्लें हें शार कोणा राक्षसान नानपश्चात करून उडयिल्ल्याची म्हायती भविष्यदत्ताक तिचे कडल्यान समजता. फुडें हो राक्षस प्रकट जाता आनी ते सुंदरेचें भविष्यदत्ताकडेन लग्न करता. हे वटेन भविष्यदत्ताचे आवयक आपलो पूत परतून आयलोना म्हणून चिंता जाता. ती तेखातीर श्रुतपंचमी नांवाचे व्रत सुरू करता. त्या काळांत भविष्यदत्त खूब धन-संपत्त जोडटा आनी आपले बायलेक घेवन घरा येवपाक येता. वाटेंत योगायोगान ताका बंधुदत्त मेळटा. बंधुदत्ताक मात वेपारांत अपेस आयिल्लें आसता. पूण भविष्यदत्त ताचेकडेन मोगान वागता. उपरांत संद मेळनाफुडें बंधुदत्त पर्थून एक फावट ताचो घात करता. हे खेपे तो भविष्यदत्ताक फटोवन, ताचें धन आनी बायलेक घेवन गजपूराक येता. घरा येतकच तो भविष्यदत्ताचे बायलेवांगडा लग्न जावपाचें थरयता. पूण भविष्यदत्त एका यक्षाच्या आदारान गजपूराक पावता आनी राजाकडेन कागाळ करून आपली बायल आनी धन-संपत पर्थून मेळयता. राजा बंधुदत्ताक सजा करता आनी आपली धूव सुमित्रा भविष्यदत्ताक दिवपाचें वचन दिता. ह्याच काळांत गजपूरची राजकन्या सुमित्रा तशीच भविष्यदत्ताची भावी बायल आपल्याक मेळची म्हणून पोदनपूरचो राजा गजपूरच्या राजावांगडा झूज करता. ह्या झुजांत भविष्यदत्त आपल्या पराक्रमान त्या राजाक हारयता. ताका लागून गजपूरचो राजा उमेदभरीत जावन आपली धूव भविष्यदत्ताक दिता आनी आपलें राज्य दिवन ताका युवराज म्हणून जाहीर करता. फुडें भविष्यदत्त गजपूरचो राजा जाता.

फुडें भविष्यदत्ताचे पयले बायलेक मैनाक द्वीपाचेर वचपाची इत्सा जाल्ल्यान, सगळ्यांक घेवन थंय वता. थंय ताची आनी एका जैन साधूची भेट जाता. तो साधू भविष्यदत्ताक सदाचाराचो उपदेश दिता. भविष्यदत्त परतून आपल्या राज्यांत येतकच, विमलबुध्दी नांवाच्या मुनीकडेन ताची भेट जाता. ह्या मुनीवांगडा भासाभास करतकच भविष्यदत्ताक वैराग्य प्राप्त जाता. ताका लागून आपल्या पुताचो राज्याभिशेक करून ताका गादयेर बसयता आनी भविष्यदत्त तपश्चर्येक वता. भविष्यदत्ताचे जिणेंत जें यश आनी व्हडपण मेळिल्लें आसता तें ताचे आवयन केल्ल्या श्रुतिपंचमीव्रताक लागून. तेखातीर त्या व्रताचें महात्म्य ही कथा सांगता.

कवीच्या संस्कृत-प्राकृत साहित्याच्या व्यासंगाचो प्रत्यय ह्या महाकाव्यांतल्यान येता. भविष्यदत्ताची दर्यांतली भोंवडी, मैनाकद्वीपांतलें शार हांचीं वर्णनां व्हड कुशलतायेन मांडून कवीन हे कथेची रचणूक केल्या. १९१८ वर्सा हेर्मान याकोबी हाणें रोमन लिपींत तशेंच दलाल आनी गुणे हांणी १९२३ वर्सा देवनागरी लिपींत ह्या ग्रंथाचें संपादन केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**भविश्यपुराण :** (पळेयात पुराणां).

**भाई, वीरसिंग :** (जल्म : ५ डिसेंबर १८७२, अमृतसर; मरण : १० जून १९५७, अमृतसर).

आर्विल्ल्या पंजाबांतलो युगप्रवर्तक कवी, कादंबरीकार आनी शीख धर्माक नवी जीण दिवपी लेखक. ताचो बापूय चरनसिंग होय कवी, लेखक आनी संगिताचो जाणकार आशिल्लो. भाईन एका शीख संताकडल्यान आपलें मुळावें शिक्षण घेतलें. १८९१ वर्सा तो मॅट्रीक पास जातकच १८९२ वर्सा ताणें 'वजीर-इ-हिंद' हो छापखानो सुरू केलो. १८९४ वर्सा ताणें 'खालसा ट्रॅक्ट सोसायटीची स्थापणूक केली.

समाजीक-धर्मीक सुदारणा करप तशेंच शीख धर्माचो प्रसार करप हो हे संस्थेचो हेत आशिल्लो. त्याच वर्सा ताणें संस्थेचें मुखपत्र म्हणून 'खालसा समाचार' हें गुरूमुखी लिपींतलें पंजाबी सातोळें सुरू केलें. ह्या सातोळ्यांतल्यान ताणें चडशें धर्मीक, समाजीक, लिखाण केलें. १८९६ वर्सा ताचें लग्न जालें.

भाईक, आर्विल्ले पंजाबी कवितेचो आनी कादंबरीचो जनक मानतात. एक कुशळ चरित्रकार म्हणूनूय ताची नामना आसा. ताची कांय म्हत्वाची बरपावळ अशी-

**काव्य** : 'राणा सूरतसिंग' (१९०५), 'लहिराँ दे हार' (१९२१), 'मटक हुलारे' (१९२२), 'बिजलियां दे हार' (१९२७), 'लहिर हुलारे' (१९२८), 'प्रीत वीणा' (१९३१), 'कंबदी कलाई' (१९३३), 'कंत महेली' (१९५०), 'मेरे सैंयां जीओ' (१९५३).

**कादंबरी** : 'सुंद्री' (१८९८), 'बिजयसिंग' (१८९९), 'सत्वंत कौर' (दोन खंड, १९००, १९२७), 'बाबा नौधसिंग' (१९२१).

**नाटक** : 'राजा लखदातासिंग' (१९१०).

**चरित्र** : श्री कलगीधर चमत्कार (१९२५), श्री गुरुनानक चमत्कार (१९२८), संत गाथा (१९४८), 'श्री अष्ट गुरु चमत्कार' (१९५२), गुर बालम सखिआँ (१९५५).

**अणकार** : भर्तृहरि जीवन ते नीतिशतक.

**संपादित आनी हेर** : वरां भाई गुरदास स्टीक, भाई मणिसिंग हाचें सीखन दी भगत माला (१९१२), रत्तनसिंग भंगू हाचें 'प्राचीन पंथप्रकाश' (१९१४), संध्या श्री गुरू ग्रंथसाहिब कोश, गुरूग्रंथ कोश (१९२७), साखी पोथी (१९५०), भाई संतोखसिंग हाचें ब्रज आनी संस्कृत मिश्रित ग्रंथ गुर प्रताप सूरज ग्रंथ वा सूरज प्रकाश (१४ खंड, १९३४), 'पंज ग्रंथी स्टीक', (१९०६), पुर्विल्लें हातबरप 'पुरातन जनमसाखी' (१९२६) हेर.

शीख धर्माच्या प्रसाराक आनी साहित्य सेवेक भाई वीरसिंगान आपली जीण ओंपली. सैमाचेर ताचो मोग आशिल्लो. 'राणा सूरतसिंग' हें ताचें पंजाबी मुक्तछंदांत बरयल्लें दीर्घकाव्य. ताचे काव्यरचनेंत सदांच नव्या विशयांची सुलूस घेवपाची ओड दिसता. ताच्या सगळ्या कवितांनी एके तरेचो अध्यात्मीक गुढार्थ आसता. ताणें आपल्यो चडशो कविता शीख तत्त्वज्ञानांतले कूट प्रस्न सोडोवपाखातीर बरयल्यो. तेचखातीर एका अर्थान ताची कविता शीख तत्त्वज्ञानावयलें भाश्य वा विस्कटावणी म्हणू येता. ताणें सैमाचेरूय खूब कविता केल्यात. सगळ्याक देवाचें अस्तित्व आसा अशें ताचें मत. तशेंच, ताच्या कवितांनी देशभक्तीचोय संदेश दिसता. 'मेरे सैंयां जीओ' ह्या ताच्या झेल्याक १९५५ वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जालो.

१८९८ वर्सा उजवाडा आयिल्ले ताचे 'सुंद्री' हे कादंबरीन आर्विल्ले पंजाबी कादंबरीचें मुळावण घालें. शीख इतिहासांतल्यान ताणें आपल्या कादंबऱ्यांचीं कथानकां घेतलीं. आपल्या कादंबऱ्यांनी ताणें शिखांचे वीरवृत्तीचें, शीख बायलांचे धिटायेचें,आदर्शांचें चित्रण केलें.

तशेंच ताणें शीख धर्माचो इतिहास, तत्त्वज्ञान, धर्मग्रंथावयलें भाश्य, मध्ययुगीन शीख साहित्याच्या हातबरपांचें सटीप संपादन, कोशरचना ह्या प्रकारांचेंय खूब लिखाण केलें.

१९४९ वर्सा पंजाब विद्यापिठान ताका 'डॉक्टर ऑफ ओरिएंटल लर्निंग' ही उपाधी दिवन भोवमान केलो. १९५२ वर्सा पंजाब विधान परिशदेचो वांगडी म्हणून ताची नेमणूक जाली. ताचे जिणेचेर आनी साहित्याचेर पंजाबी भाशेंत जायते ग्रंथ बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**भांगडा नाच** : नामनेचो पंजाबी लोकांनाच. ल्यालपूर हें ह्या नाचाचें मूळ उगमस्थान. हो नाच चड करून शेतकामती लोक करतात. धान्याची रोवणी करतात, त्या दिसासावन लुवणी आनी मळणी जायमेरेन सद्दां रातीचो हो नाच करतात. वैशाख म्हयन्यांतले पुनवेवांगडा ह्या नाचाचो मोसम सोंपता. पूण खंयच्याय उमेदीच्या वेळार पंजाबी लोक हो नाच करतात. लग्ना वेळार वा पीक भरपूर आयलें जाल्यार खोस मनोवपाखातीर हो नाच करतात.



पुनवेचे राती खंयच्याय शेतांत गांवचे तरनाटे एकठांय येवन हो नाच करतात. रस्मी फेटो, सोबीत नक्षीकाम आशिल्लो रंगयाळो कुर्तो, ताचेर चकचकीत गोंड्यांचें जाकीट आनी कमराक लुंगी असो नाच करप्यांचो भेस आसता. गळयांत माळो, पायांत घागऱ्यो आनी केन्नाकेन्नाय हातांच्या बोटांक लेंसूय बांदतात.

ह्या नाचाक साथ करपाक धोलक्यावांगडा 'अलगोझा' आनी लोखणी चिमट्यांचो जोड हीं वाद्यां वापरतात. हो नाच माचयेर सुरू जातकूच सुरवेक धोल वाजोवपी येता आनी उपरांत हेर नाचपी येतात. धोल वाजोवपी मदीं उबो रावन ताचे भोंवतणीं, फेर धरून हेर नर्तक नाचतात. ते मदीं मदीं एक हात कानार दवरून फुडें येवन परंपरीक लोकगितांतली बोली वा धोल्ल दितात. ह्या वेळार नाचांत मात्सो खंड पडटा, पूण उपरांत नाच आनिकूय नेटान सुरू जाता. कांय वेळार एकाद्रो नाचपी हातांत लांब बडी घेवन नाचता. ते बडयेच्या तोंकार लांकडी शेवणें आसता. नाचप्यां मदीं माथ्यार मडकें घेवन एक नाचपी आसाता. ह्या मडक्याचेर आनीक एक नाचपी उबो आसता. ते दोगूय नाचपी तालाचे लयीचेर हात हालयत लेंस नाचयतात. हो लोकांनाच आशिल्ल्यान विंगड विंगड परंपरागत आनी आर्विल्ले आंगविक्षेप करपाची चाल दिशीं दिशीं वाडत आसा. मुळांत हो नाच जरी दादल्यांचो आसलो तरी दादले-बायलांक भरसून हो नाच सादर करतात.

दरेक भांगडानाच हो गितांत बद्द आसता. नाचांत रंग हाडपाखातीर खूबदां तालवाद्यांचे साथीचेर नाच करतात. ह्या नाचाक स्वतंत्र गायकाची गरज आसना. एक नाचपी फुडें येवन जोशपूर्ण आवाजांत गीत गायता. ह्या गितांत मोग आनी खोस ह्या भावनांवांगडाच खुबदां कश्ट आनी संकश्टां हांचें चित्रण आसता. हो समूहनाच आशिल्ल्यान १० ते २०० मेरेन कितलेय लोक हातूंत वांटो घेवंक शकतात. नाचांत आनिकूय रंग भरचो आनी नाचतल्यांक स्फूर्त मेळची देखून नाचपी नाचता आसतना मदीं मदीं 'हेडिप्पा', 'बले बले। ओ बले बले !!' अशे आवाज करतात. पळोवपाक हो नाच सादो-सोंपो दिसता, पूण करपाक कठीण आसून शरीर बळिश्ट, तशेंच सुटसुटीत आसचें पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**भांगर :** एक मोव आनी जड धातू. हो धातू हळदुवो आनी चकचकीत आसता. लॅटीन भाशेंत हाका 'औरम' (Aurum) म्हण्टात. ओरोरा (aurora) म्हळयार उदेंत. हाचेवयल्यान हें नांव आयलां आसुंये. पुर्विल्ल्या काळांत लोक सैमीक भांगर वापरताले त्या वेळार भांगर विकसीत करपाची पद्दत तयार जावंक नाशिल्ली.

भारत, चीन, मेसोपोटॅमिया आनी इजिप्तांत इ.स. पयलीं धाव्या शेंकड्यासावन भांगर वापरताले. इ. स. पयलीं सात-आठ शेंकड्यांपयलीं ग्रीसांत भांगराचीं नाणीं घोळणुकेंत आशिल्लीं. तेउपरांत इ. स. पयलीं पयलो शेंकडो आरमेनियांत भांगराचीं नाणीं घोळणुकेंत आयलीं.

पाशाणयुगी (Neolithic) भांगराच्यो वस्तू फातरांच्या आयुधांवांगडा उत्खननांनी मेळ्ळयात. नांबियांतल्यो (North-East Africa) भांगराखणी सगळयांत पोरण्यो. कांय न्हंयांचे रेंवेंत भरसल्ले बारीक बारीक भांगराचे कण मेळटात. तांबें आनी शिंशें हांचे मातयेंत (ores) उण्या प्रमाणांत भांगर मेळटा. तशेंच तें रुपें आनी टेल्यरियम (Tellurium) संयुगांतूय (compound) मेळटा. दर्याच्या उदकांत ०.००१% इतल्या प्रमाणांत भांगर आसता. उदकांतलें भांगर फायदेशीर पद्दतीन काडप अजून शक्य जावंक ना.

दक्षिण आफ्रिका, अमेरिका, कॅनडा, रशिया आनी ऑस्ट्रेलिया हीं भांगर तयार करपी मुखेल राश्ट्रां. भांगराच्या वट्ट उत्पादनांतलें फकत २% भांगर भारतांत तयार जाता. हातूंतलें ९९.९५% भांगर कर्नाटकांतल्या कोलार भांगराच्या खणींनी तयार जाता. कोलार भांगराच्यो खणी ह्यो कोलार गोल्ड फिल्ड कॉर्पोरेशनाखाला (Kolar Gold Field Corporation), इंग्लंडांतले मेसर्स जॉन हे चलयतात. हे कंपनींत भारत सरकार मुखेल वांटेकार आसा. कर्नाटक सरकाराच्योय भांगराच्यो खणी कोलाराक आसात.

भारतांत बिहार, ओरिसा आनी आसामांत उण्या प्रमाणांत, न्हंयेचे रेंवेंत भांगर मेळटा. थंय भांगर तयार करपाचे ल्हान ल्हान उद्देग आसात.

**उत्पादन प्रकिया :** १) न्हंयेच्या गाळांतल्यान काडटात त्या भांगराच्यो उत्पादन प्रकिया आसात, त्यो अशो-

**अ) निरावन (panning) :** भांगराचे कण आशिल्ली रेंव एका वाटकुळया आयदनांत घेवन तातूंत उदक भरतात. हें आयदन चाळणीभाशेन घुंवडायतकच रेंवेचे कण भायर पडटात आनी भांगराचे कण जड आशिल्ल्यान ते आयदनांत उरतात.

**ब) हायड्रॉलिक मायनिंग (Hydraulic Mining) :** १) न्हंयेचे देगेवयले मातयेंत आशिल्लें भांगर हे पद्दतीन काडटात. उदकाची नेटाची धार न्हंयेचे देगेवयले रेंवेंत मारली म्हण्टकच रेंव व्हांवन वचून चर तयार जाता. हे चरीच्या तळाक भांगराचे कण उरतात.

**क) प्लेसर मायनिंग (Placer Mining) :** हातूंत भांगराचे कण आशिल्ली रेंव धातूच्या पोनेळांत (Inclined channel) सोडून भांगर वेगळें काडटात.

२) रेंवेच्या फातरांतल्यान काडटात त्या भांगराच्यो उत्पादन प्रक्रिया अशो :

**अ) अमाल्गमेशन प्रकिया (Amalgamation Process) :** भांगराचे कण आशिल्ले रेंवेचे खडे फोडून बारीक पिठो करतात. हो पिठो

चाळणींतल्यान धुंवन घेतात. हो पिठो धुयतकच उरिल्लें उदक पारो (Mercury) लेपडायल्ल्या (amalgamated) तांब्याच्या पत्र्यावयल्यान सोडटात. पत्र्यावयल्या पाऱ्याक लागून पिठ्यांतलें भांगर पत्र्याचेर 'अमालगम' (amalgam) जावन उरता. भांगराचो हो अमालगम उपरांत खरवडावन काडून लोखणाच्या आयदनांनी सळसळावन गाळटात.

**ब) मॅक आर्थर फॉरॅस्ट सायनायड प्रक्रिया (Mac Arthur Forrest cyanide Process) :** अमालगमेशन पद्दतीन भांगर काडून उरिल्लो पिठो आनी उण्या प्रमाणांत भांगर आशिल्ली हलकी माती (ore) व्हडले टांकयेंत घालतात. टांकयेच्या पोंदाक बुराक आशिल्ले कॅनवास आसतात. ०.१५% सोडियम सायनायड (Sodium Cyanide) घोळयल्लें उदक टांकयेंत घालून चोवीस वरां दवरतात. उपरांत भांगर सोडियम सायनायडाच्या उदकांत विरगळटा. विरगळिल्लें भांगर जस्ताचो (Zinc), पिठो घालून कुशीक काडटात. हें भांगर निवळावन ताच्यो बिस्कुत्यो करतात.

ह्या दोनूय पद्दतींनी तयार केल्ल्या भांगरांत रुपें (Silver), जस्त (Zinc) शिंशें (Lead) आसता. तेखातीर पयलीं हें भांगर निवळावन उपरांत ताच्यो बिस्कुत्यो (Ingots) करतात.

भांगराची जडाय (specific gravity) १९.३ इतली आसता. भांगर तापयल्यार वा हवेंत दवरल्यार काळें पडना. हायड्रोक्लोरीक आम्ल (Hydrochloric Acid) सोडून, हेर खंयच्याय ॲसिडाचो भांगराचेर परिणाम जायना. मात नायट्रीक आम्ल (Nitric Acid) आनी हायड्रोक्लोरीक आम्ल (Hydrochloric Acid) भरसून केल्ल्या आक्वारेजियांत (aqua-regia) भांगर विरगळटा.

भांगराची शुध्दताय 'कॅरेट' ह्या मापान मेजतात. शुध्द भांगर (pure gold) २४ कॅरेट आसता. भांगराक निबरसाण हाडपाखातीर तातूंत तांबें भरशितात. देखीक, २२ कॅरेट भांगरांत २२ वांटे वजन भांगर जाल्यार २ वांटे वजन तांबें घालतात.

**भांगराचो उपेग :** भांगराची मोवसाण आनी चकचकसाण ह्या गुणांकलागून भांगराचो उपेग नाणीं आनी वस्ती करपाक खूब आदींसावन जायत आयला. हाचेभायर खंयच्याय धातूचेर लेप काडपाक भांगराचो उपेग करतात. असो लेप काडिल्ल्यान त्या धातूची झीज जायना. देवदेवतांचीं मुखीं आनी हेर कला-कुसरीखातीर म्हळयार नकली दांत, अक्षरां, प्रतिकां करपाक भांगर वापरतात. सुवर्ण भस्मासारके अवस्थेंतल्या भांगराचो उपेग रंगकामांत जाता.

**भारतांतलें उत्पादन :** पुर्विल्ल्या काळासावन भारतांत भांगराच्यो खणी विकसीत जाल्ल्यो हें कोलार, हुट्टी, गाडग आनी बिहारांतल्या भांगक्षेत्रांलागसार सांपडिल्ल्या आध्य कांडण, मुसळ वा कुटपाच्या फातरांवयल्यान सिध्द जाता. खणींतल्यान भांगर काडप हो उद्देग इ. स. १००० मेरेन चालू आशिल्लो अशें म्हण्टात. पूण उपरांत कांय कारणांक लागून तो थोडो काळ बंद पडलो. फुडें इकराव्या शेंकड्यांत विजयनगराच्या राजान आनी उपरांत टिपू सुलतानान आपल्या काळांत ह्या उद्देगाक पर्थून चालना दिली.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत ब्रिटीश राजवटींत देशांतल्या भांगर खणपाच्या उद्देगाक खूब नेट आयलो. १८०० त विनाद ही भांगरा खण भारतांतली मुखेल आशिल्ली. उपरांत बिहार आनी दक्षिण भारतांत कांय नव्यो खणी सुरू केल्यो. पूण फुडें 'कोलार गोल्ड फिल्ड' सोडल्यार हेर सगळयो खणी बंद पडल्यो. कोलार खणी 'मेसर्स जॉन टॅलर अँड सन्स' हे ब्रिटीश अभियांत्रिकी वेवसाय संस्थेन स्थापित केल्ल्यो. १९२०चो कांय तेंप सोडल्यार आयजमेरेन ह्यो खणी क्रियाशील आसात.

उपभोग्य वस्तू म्हूण भारतांत भांगराक चड खप आसा. दर वर्सा भारतांत सुमार ६०० टन भांगराची मागणी आसता असो अदमास आसा. पूण भारतांत दरवर्सा भांगराचें फकत दोन टन इतलेंच उत्पादन जाता. भारतांत उद्देगीक क्षेत्रांत दर वर्सा सुमार ७५० किल इतली भांगराची गरज पडटा. १९९५ त प्रचार माध्यमान प्रसिध्द केल्ले आंकडेवारी प्रमाण देशांत खाजगी मालकीचें म्हळयार उपभोग्य वस्तू म्हूण उपेगांत येवपी भांगर सुमार ७,५०० टन ते १५,००० टन इतलें आसा.

भारतांत कच्चें भांगर काडपाचो वावर मुखेलपणान 'भारत गोल्ड मायन्स ली.' आनी 'हुट्टी गोल्ड मायन कंपनी ली. ह्यो कंपन्यो करतात. भारत गोल्ड मायन ही कंपनी कर्नाटकांतले कोलार खणींतल्यान तशेंच आंध्र प्रदेशांतल्या 'येप्पामना' आनी चिगार्गुंटा खणींतल्यान भांगर काडटा. जाल्यार हुट्टी गोल्ड मायन ही कंपनी कर्नाटकांतल्या हुट्टी आनी मंगळूर खणींतल्यान कच्चें भांगर काडटा. कोलार खणींतलें भांगर उत्पादन दिसानदीस उणें जायत आसा. हुट्टी खणींतलें वर्सुकी उत्पादन एक टन इतलें आसा. पूण खणीचें आधुनिकीकरण पुराय जाल्याउपरांत हें उत्पादन दर वर्सा ३.५ टन मेरेन वाडटलें असो अदमास आसा. १९९३-९४ वर्सा देशांतल्या सगळया खणींतल्यान मेळून १६३९ किल कच्चें भांगर काडप जालें. ताचें मोल ७३.७९ कोटी आसलें. जाल्यार त्याच वर्सा 'हिन्दुस्तान कॉप्पर ली'. हे कंपनीन राजस्थान आनी कर्नाटकांत नव्यो भांगरा खणी खणपाचो वावर हातांत घेतला.

वित्त मंत्री मनमोहन सिंग हाणें १ मार्च १९९२ त भांगर आयात कायदो अंमलांत हाडून प्रवाशांक परकी देशांतल्यान भांगर हाडपाक मान्यताय दिली. ह्या कायद्याक लागून १९९४ मेरेन प्रवाशांनी आयात केल्लें सगळें भांगर १५९.७ टन इतलें आसलें. त्याच वर्सा भारत सरकारान खास आयात परवानो काडून १८.७ टन भांगर आयात केलें.

देशांत भांगराचे नवे सांठे सोदपाचो वावर चालूच आसा. द जिओलोजीकल सर्वे ऑफ इंडिया आनी मिनरल एक्स्प्लोरेशन कॉर्पोरेशन

ली. हांणी देशांतल्या वेगवेगळया राज्यांनी सर्वेक्षण करून नव्या भांगरा सांठ्यांचो सोद लायला. अशे सांठे आशिल्ले जागेः

**आंध्र प्रदेश** : रामगिरी, कोथापल्ली, पेड्डापार्थीकुंटा, रामापूरम, चिंमुलगंड, भद्रमपल्ली.

**कर्नाटक** : हिरा-बुध्धीनी, अज्जांहळ्ळी, सुरापल्ले, टुप्पाधूर, कादोनी, वेल्लेरा आनी हेर.

**केरळ** : मरुदा आनी पुथेमला.

**बिहार** : कूंदेरकोचा.

**मध्य प्रदेश** : बघमेरा आनी सोनाखण.

**तमिळनाडू** : महाराज-गडाय-नरालापल्ली.

**राजस्थान** : पिंडवारा.

पूण भांगरा खणी खणपाचो सुरवेचो वावर खूब खर्चीक आशिल्ल्यान हांगाचें खणकाम अजून सुरू जांवक ना.

दक्षिण आफ्रिका हो देश भांगर उत्पादनांत सगळयांत मुखार. अमेरिका, कॅनडा आनी ऑस्ट्रेलिया हे देशूय भांगराचे श्रेश्ठ उत्पादक.

संवसारांत भांगराचो उपेग सादारणपणान जाता तो असोः- ५५% दागिन्यांखातीर, १५% नाणीं करपाखातीर, ९% इलेक्ट्रॉनीक वस्तूंनी वापरपाखातीर, ७% सांठयल्ली पुंजी म्हणून, ५% उद्देगीक क्षेत्रांत, ५% दातांतलो मिश्रधातू तायर करपाखातीर आनी ४% खेळा पदकां तयार करपाखातीर.

भांगराच्या मोला वयल्यान त्या त्या देशाच्या अधिकृत चलनाचें म्हत्व थरता. भांगराचें मोल चड आसल्यार चलनाचें म्हत्व उणें जाता.

- प्रेमानंद गो. फडते.

- कों. वि. सं. मं.

## भांगी, पांडुरंग राजाराम : (जल्म : १३ ऑगस्ट १९२३, कुंडय).



नामनेचो कोंकणी कवी. पुर्तुगेज शिक्षण घेतल्याउपरांत तो कस्टम्स एक्सायजांत नोकरी करूंक लागलो. एक फावट किर्लोस्करवाडी हांगा पिकनिकेक गेल्ले कडेन शं. वा. किर्लोस्कर हाणें सगळयांक सांगलें किर्लोस्करवाडीक तांचे मराठीक बरी पॉलीश जातली. त्या खिणाक भांगीक आपली भास मराठी न्हय हाचो साक्षात्कार जालो आनी ताणें कोंकणीखातीर वावर करपाचें थारायलें. १९४५ च्या सुमाराक ताणें बरोवपाक सुरवात केली. उपरांत मदीं मात्सो खंड पडलो. ताचें मुळावें वाचप पुर्तुगेजींतल्यान जालें. मानुयेल बांदैर, सिसलीया मैथरेलीश, आल्मैदा गार्रेता, फेर्नांद पेसोआ, स्टिफन झाईग, रोमा रोलां, टागौर ह्या सगळयांचो ताचेर प्रभाव पडिल्लो आनी ताच्या विचारांची बसका चौकस तशीच सुक्ष्म जाली. ताचे 'दिश्टावो', 'अदृश्टाचे कळे' आनी 'चांफेल्ली सांज' हे तीन कवितांझेले म्हळयार कोंकणी कवितांमळावयल्यो म्हत्वाच्यो साहित्यकृती आसात. अंतर्मुखताय ही ताच्या काव्याची मुखेल बसका आसा. तेचपरी जायतितल्याच उतरांभितर व्यक्त जावपी अशी ताची कविता आसता. ताचे भाशेंत पुर्विल्ले शब्दकलेची सोबीत झलक पळोवंक मेळटा.

ताणें आपल्या वाचपांत आयिल्लें बरें बरें संवसारीक साहित्य कोंकणींत हाडपाचो यत्न केलो. टागोराचें 'चित्रा' (नाटक), ऑस्कर वाइल्डांचें 'सालोमे' (नाटक) तशेंच सोफोक्लिसाच्या कींग इडीपसचें 'यदीप राजा' अशें भाशांतर केलां. हाचेभायर मोहन राकेशाच्या हिंदी नाटकाचो 'आषाढका एक दीन' चो कोंकणींत अणकार केला.

ताका पोस्टाचीं तिकिटां (स्टॅंप) एकठांय करपाचो नाद आशिल्लो. ताचेकडेन स्विर्त्झलँडच्या स्टॅंपांचो खूब व्हड सांठो आशिल्लो. १९८६ वर्सा 'गोवा पेक्स' हे संस्थेन ताका गोल्ड मेडल दिवन ताचे हे कलेचें चिज केलें. ताचेकडेन कितलेशेच दुर्मीळ अशे स्टॅंप आसले.

ताणें लोकसाहित्याचो अभ्यास केल्लो. कांय लोककथा तशेंच कविताय ताणें वेळोवेळ उजवाडायल्यात. ताका कला अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ, कुडचडें कोंकणीं कला आनी साहित्यकेंद्र तशेंच जेज्वीत आंतोन पेरेर यादस्तीक हो थोमस स्टिफन्स कोंकणी केंद्राचो पुरस्कार फावो जाल्यात.

नोकरे निमतान ताचो राबितो गोंय सोडून दीव, दमण आनी मुंबय अशा सुवातींनी आशिल्लो. नोकरेंतल्यान निवृत्त जातकच ताणें 'कोंकणी शब्द सागर' ह्या शब्दकोशाचो पयलो खंड उजवाडाक हाडलो. ह्या कोशांत ताणें उतरां फाटल्यान आशिल्ल्या वेगवेगळया संदर्भाची अभ्यास पूर्ण म्हायती दिल्या. सद्याक तो शब्द सागराचे उरिल्ले खंड निर्मितीचो वावर करता.

- रमेश भगवंत वेळुस्कार

## भांडवलशाय : जे अर्थवेवस्थेंत उत्पादनाचीं सुत्रां भांडवलदाराच्या हातांत आसतात, ते अर्थवेवस्थेक भांडवलशाय अशें म्हण्टात. उद्देगीक भांडवलशायेचो उदय इंग्लंडांत अठराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक जालो. ते पयलींचो युरोपाच्या इतिहासांतलो सुमार चार शेंकड्यांचो काळ हो वेपारी भांडवलशायेचो काळ आशिल्लो. ह्या काळाचें खाशेलपण म्हळयार

विंगड विंगड कारणांक लागून वेपारांत विकास जालो आनी वेपारी वर्गाच्या हातांत धन आयलें. उपरांत वेपाराच्या विस्तारा वांगडाच वस्तूंची पुरवण वाडोवपाची गरज दिसूंक लागली. ह्या गरजांक लागुनूच अठराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत इंग्लंडांत साबार नव्या यंत्रांचो सोद लागलो. हाचेपरस म्हत्वाची गजाल म्हळयार ह्या सोदांक लागून नवीं नवीं तंत्रां आपणावन उत्पादनाचो प्रश्न सोडोवपाक मेळटा हो विश्वास मनशाच्या मनांत निर्माण जालो.

व्हड व्हड यंत्रांच्या आदारान उत्पादनाक सुरवात जालेउपरांत ताचे आदीं आशिल्ले अर्थवेवस्थेचें रूप बदलून गेलें. हे पयलीं अस्तित्वांत आशिल्ली अर्थवेवस्था ही सरंजामदारी वा सामंतशायी पद्दतीची आशिल्ली. ते अर्थवेवस्थेंत मुखेल उत्पादन हें शेतकी आशिल्लें. शेतवडीच्या क्षेत्रांत सरंजामशांच्या आनी व्हड जमीनदारांच्या हातांत सत्ता केंद्रीत जाल्ली. उद्देगीक उत्पादन मात मर्यादीत आशिल्लें. तें उत्पादन मुखेल करून ल्हान, मुळाव्या स्वरुपाच्या यंत्रांच्या आदारान स्वतंत्र वेवसायीक कारागीर करताले. हे कारागीर आपले मालकीचीं साधनां वापरताले. तशेंच स्वतंत्र कारागीर म्हणून आपलो वेवसाय चलयताले. ते कोणाचेच गुलाम नाशिल्ले. पूण व्हड कारखाने उबारून तांच्या आदारान उत्पादनाक सुरवात जाले उपरांत ही शक्यताय उरलिना. हे व्हड कारखाने उबारपाक तांचेकडेन भांडवल नाशिल्लें. स्वतंत्रपणान आपलो वेवसाय चलोवन, ह्या व्हड कारखान्यांकडेन सर्त करपाइतली तांची परिस्थिती नाशिल्ली. हाचें मुखेल कारण म्हळयार उत्पादन करतालो तोच म्हाल कारखानदार नितळ आनी सवाय असो निर्माण करतालो. तांच्या वेवसायाक देंवती कळा लागलेउपरांत ते शेतांत काम करपाक लागले वा शारांनी कारखान्यांनी मजूर म्हणून काम करपाक लागले.

यंत्रीक सोदांचो म्हत्वाचो परिणाम म्हळयार उत्पादन मळार घडून आयिल्ली उद्देगीक क्रांती. हे क्रांतीक लागून खाजगी भांडवलदारांचो एक वर्ग आस्तित्वांत आयलो. हो वर्ग कारखाने उबे करून कामगारांक पगार दिवन कामाक लायतालो. वेवसायांत जावपी फायदो वा नुकसाण हांची पुराय जापसालदारकी तांकांच घेवची पडटाली. भांडवलदार वर्गाचो मुखेल हेतू म्हळयार चडांत चड फायदो मेळोवपाचो. उद्देगीक क्रांतीचे हे भांडवलदार प्रवर्तक आशिल्ले आनी उद्देगीक क्रांतीक लागून पयलींचे अर्थवेवस्थेपरस चड उत्पादन जावपाक लागलें.

भांडवलशाय अर्थवेवस्थेंत उत्पादनाचीं साधनां हीं खाजगी मालकिचीं आसून उत्पादनाविशींचे सगळे निर्णय खाजगी भांडवलदार घेतात. उत्पादनक्रियेचेर गिरायकांचे इत्सेचो व्हड प्रभाव आसता. गिरायकांक हे अर्थवेवस्थेचो सार्वभौम मानतात. तो आपल्याक जाय आशिल्ल्या वस्तूंची मागणी करता. हे मागणेचो आनी वस्तूंचे पुरवणेचो ताळमेळ जावन बाजारांत ते वस्तूक कितलें मोल मेळपाची शक्यताय आसा, तातूंत आपल्याक कितलो फायदो जातलो, हांचो विचार करून खाजगी भांडवलदार आपल्या उत्पादनाविशींचे निर्णय घेतात. फायदो हो भांडवलशायेचो कणो आशिल्ल्यान खंयचें उत्पादन केन्ना, खंयचे सुवातेर, कितल्या प्रमाणांत करचें सारकिले सगळे निर्णय भांडवलशायी अर्थवेवस्था फायद्या प्रमाण नदरेमुखार दवरून करतात.

भांडवलशायेक लागून अर्थीक मळार व्हडा प्रमाणांत वाड जावपाक लागली. फायदो चड मेळोवपाच्या हेतान भांडवलदार खूब उणो पगार दिताले. सुरवेच्या काळांत सरकाराचें तटस्थ धोरण, मुक्त करारांचीं तत्त्वां आनी मजूर संघटनांचो अभाव हांकां लागून मजुराच्या हिताचें रक्षण करपाचे खंयचेच मार्ग नाशिल्ले. कामाचीं वरां, कामाची परिस्थिती, पगार वा हेर खंयचेय गजालींत कसलेच नेम अस्तित्वांत नाशिल्ले. हाका लागून अल्पसंख्य धनीक भांडवलदार वर्ग आनी भौसंख्य सोंशीक कामगार वर्ग हांचेमदीं अर्थीक विशमतायेचें व्हड देगण निर्माण जालें. आपल्याक चड फायदो मेळचो म्हणून भांडवलदारांभितर सर्त लागता. हाका लागून जायरात आनी हेर गजालींचेर खूब खर्च करचो पडटा. पूण हाचें मोल गिरायकाक फारीक करचें पडटा. हे सर्तीक लागून मत्तेदारी निर्माण जाता. भांडवलदार म्हालाचें चडांत चड उत्पादन करता. पूण चड फायदो मेळोवपाक वखवखिल्ल्यान तो फावो तसो पगार दिना. हाका लागून फावो तशी क्रयशक्ती समाजांत पातळपाक शक्य जायना. हाचो परिणाम म्हळयार देशांत उत्पादन जावपी म्हाल देशांत खपना. हाका लागून भांडवलदार भायल्या देशांच्यो बाजारपेठो सोदपाक लागता. तशेंच तांणी दुसऱ्या देशांनी हुकूमी बाजारपेठो सुरू केल्यो. मजुरांचें शोशण हो अर्थवेवस्थेचो मुखेल विशय अशें कार्ल मार्क्स हाणें म्हळां. अशे भांडवलशाय अर्थवेवस्थेंत बरे आनी वायटूय गूण आस्पावल्यात. भांडवलशायेक विरोध करपाखातीर साम्यवादाचो उदय जालो. भांडवलशाय मजुरांचें अर्थीक शोशण आनी दैन्यावस्थेंत दवरता असो आळ साम्यवादी लोकांनी केलो. उदरगत जाल्ल्या भांडवलशायी राश्ट्रांनीय अशी परिस्थिती निर्माण जाल्ली.

हालींच्या तेंपार भांडवलशायी अर्थवेवस्थेन आपल्याचेर आशिल्ले साबार दोश पयस करपाचो यत्न केला. खांप्या समाजवादाक देंवती कळा लागिल्ल्यान सुदारीत भांडवलशाय आनी लोकशायी समाजवाद हांचेमदलें अंतर उणें जावन दोनूय एकामेकांच्या खूब लागीं आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**भांडारकर, देवदत्त रामकृष्ण :** (जल्म : १९ नोव्हेंबर १८७५; मरण : ३० मे १९५०, कलकत्ता).

पुर्विल्ल्या भारतीय इतिहासाचो आनी संस्कृतायेचो व्यासंगी संशोधक आनी पुरातत्त्वज्ञ. नामनेचो प्राच्यविद्यापंडीत, डॉ. रामकृष्ण गोपाळ भांडारकर हाचो पूत. १८९६ वर्सा डॅक्कन कॉलेजींतल्यान बी. ए. जातकच ताणें

कायद्याच्या अभ्यासाक सुरवात केली. त्यावेळार मुंबय विद्यापिठाखातीर पूर्व मुसलमान काळांतल्या (इ. स. १००० मेरेन) महाराष्ट्र देशांतल्या पुर्विल्ल्या गांवाचें आनी नगराचें संक्षिप्त पर्यालोचन ह्या विशयाचेर ताणें निबंध बरयलो. ताका भगवानलाल इंद्रजी इनाम फावो जालें. उपरांत १९०० वर्सा ताणें संस्कृत, पुर्विल्लो भारतीय इतिहास आनी पुराभिलेख हे विशय घेवन एम. ए. ची पदवी घेतली. उपरांत भारताच्या जनगणना खात्यांत ताणें काम केलें. ताच्या नव्या संशोधनाक लागून ताका दिवंक केल्ली ब्रिटिशांची चड पगाराची नोकरी ताणें न्हयकारली. १९०४ ते १९०७ ह्या काळांत ताणें मुंबय मंडळाच्या पुरातत्त्व विभागांत पालवी सर्वेक्षक हें पद आपणायलें. ऑगस्ट १९१५ त तो पुरातत्त्व विभागाच्या अस्तंत विभाग मंडळाचो अधिकारी जालो. उपरांत १९१७ वर्सा कलकत्ता विद्यापिठांत प्राचीन भारतीय इतिहास आनी संस्कृती ह्या विशयांचो कार्मायकेल प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली.

बादशाह पांचवो जॉर्ज हिंदुस्थानाक भेट दिवपाक ५ डिसेंबर १९११ दिसा आयलो, त्या वेळार ताचेखातीर देवदत्तान एलिफंटा (घारापुरी) जुंव्याची मार्गदर्शिका तयार केली. मुंबय मंडलांत सर्वेक्षक म्हणून काम करतना, ताणें राजपुतान्यांत भोंवडी करून पुरातत्त्वीय सामुग्रीची वळेरी आनी टिपणां तयार केलीं.

देवदत्ताचें सगळ्यांत म्हत्वाचें संशोधन म्हळ्यार विदिशा लागसार बीसनगरचें उत्खनन आनी तातूंत मेळिल्लो 'खाम बाबा पिलर' हो वाटकुळो खांबो. हो खांबो ग्रीसी राजदूत हीलिओडोरस हाणें आपले वासुदेवभक्तीचें मानादीक चिन्न म्हणून बांदिल्लो, तशेंच हो खांबो दोन तिख्याच्या पट्ट्यांचेर उबारिल्लो आसून पक्क्या विटांच्या बांदकामाक चुनखडकाचो लेप आसा अशें देवदत्तान सिध्द करून दाखयलें.

१९१७ सावन कलकत्ता विद्यपिठांत अध्यापन- संशोधन, अभ्यासक्रमाची आंखणी, शासकीय वेवस्थापन हें काम करतना, देवदत्तान कार्मायकेल व्याख्यानमाळ सुरू केली. हे माळेंत ताणें 'पुर्विल्ल्या भारतांतलें राजपद आनी प्रजातंत्रीक संस्था' (१९१८), 'भारतीय नाणकशास्त्र' (१९२१), 'अशोक' (१९२३) ह्या विशयांचेर व्याख्यानां दिलीं. १९२५ वर्सा बनारस हिंदू विद्यापिठांत 'पुर्विल्ल्या हिंदू राजनितीचीं कांय तासां' ह्या विशयाचेर मणिचंद्र नंदी व्याख्यानां दिलीं. सेवानिवृत्ती उपरांत १९३८-३९ त मद्रासाक सर विल्यम मेयेर व्याख्यानां 'पुर्विल्ले भारतीय संस्कृतीचीं कांय तासां' ह्या विशयाचेर दिलीं. ह्याच काळांत ताणें भारतीय अभिलेखांची यादी आनी गुपीत अभिलेखांची दुसरी सुदारीत आवृत्ती तयार केली.

बंगाल आनी लंडनचे रॉयल एशियाटिक सोसायटीचें वांगडीपण (१९१२), कलकत्ता विद्यापिठाची मानादीक डॉक्टरेट (१९२१), बंगाल रॉयल एशियाटिक सोसायटीचें बिमलचरण लॉ भांगरापदक हे भोवमान ताका फावो जाले. कल्चरल कॉन्फरन्स, कलकत्ता (१९३६), हिस्टरी काँग्रेस, अलाहाबाद (१९३९), हांचीं अध्यक्षपदां, तशेंच 'इंडियन अँटिक्वॅरी' चें संपादकत्व (१९११-१९२२), विंगड विंगड संशोधन संस्थांचें वांगडीपण, विद्यापिठीय व्याख्यानांचीं आमंत्रणां अशे कितलेशेच भोवमान ताका फावो जाले.

एम. ए. खातीर गुजरात राश्ट्रकूट युवराज पयलो कर्क्क हाच्या नवसारी ताम्रपटाचेर (इ. स. ७३८) आनी कुशाण शिलालेखांचेर ताणें केल्लें संशोधन, शक काळाचो उगम आनी कुशाण राजपरंपरा हेविशींचे देवदत्ताचे निश्कर्श फ्रेंच विद्वान बर्थ आनी बापूय डॉ. रा. गो. भांडारकर हांकांय मानवले. जनगणना खात्यांत काम करतना, 'धर्म आनी धर्मपंथ', 'जाती आनी जमाती' हीं प्रकरणां बरोवपाक ताणें एंथोवन, आय. सी. एस. हाका आदार केलो. मुंबयच्या सर्वेक्षण विभागांत आसतना, 'अहीर' जमातीचेर टिपण बरोवन आपल्या स्वतंत्र संशोधन-लिखाणाक आरंभ केलो. ह्याच काळांत ताणें महेन्द्रपाल आनी विनायकपाल हांचें शासन, गुर्जर राज्याचो त्या काळांतलो विस्तार आनी राजवटीचो काळानुक्रम हांचेर लेख बरोवन कुशीक पडिल्लो इतिहास उजवाडा हाडलो.

- कों. वि. सं. मं.

**भांडारकर, रामकृष्ण गोपाळ :** (जल्म :६ जुलय १८३७ मालवण; मरण : २४ ऑगस्ट १९२५, पुणें).

नामनेचो प्राच्यविद्यासंशोधक, संस्कृत पंडित भाशाशास्त्रज्ञ, पुर्विल्ल्या इतिहासाचो संशोधक आनी धर्म सुदारक. ताचें मूळ आडनांव पत्की आशिल्लें, पूण तांचे पुर्वज खजिन्याचेर अधिकारी आशिल्ले, देखून तांकां 'भांडारकर' हें नांव पडलें.ताचो बापूय महसूल खात्यांत नोकरी करतालो. पुनर्विवाहाचो पुरस्कर्तो विनायक भांडारकर हो रामकृष्णाचो बापोलयो. वेंगुर्ला हो ताच्या घराण्याचो मूळ गांव. ताचें सुरवेचें शिकप मालवण, राजापूर रत्नागिरी हांगा जालें. मुंबयच्या एलफिन्स्टन इन्स्टिट्यूटांतल्यान तो १८५४ त हायस्कुलाची परिक्षा पास जालो. १८६२ त ताणें मुंबय विद्यापिठाची बी. ए. पदवी घेतली आनी १८६३ त एम. ए. पदवी घेतली. पुणें आनी मुंबयच्या जाणकार शास्त्रीपंडितांकडेन न्याय, व्याकरण, वेदान्त हांचो अभ्यास केलो. हैदराबाद (सिंध) आनी रत्नागिरीच्या हायस्कुलांनी ताणें मुख्याध्यापक म्हणून नोकरी केली. शालेय भुरग्यांखातीर संस्कृताचीं दोन पुस्तकां बरयलीं.

१८८५ वर्सा जर्मनींतल्या गटिंगन विद्यापिठान ताका पीएच्. डी. पदवी दिली. १८७९ मेरेन तो मुंबयचे एलफिन्स्टन कॉलेजींत संस्कृताचो प्राध्यापक आशिल्लो. उपरांत पुणेंच्या डॅक्कन कॉलेजींतल्यान संस्कृताचो प्राध्यापक म्हणून निवृत्त जालो. तो मुंबय विद्यापिठाचो कांय काळ कुलगुरू आशिल्लो. १९०४ वर्सा ताका एल. एल. डी. ही पदवी मेळ्ळी.

युरोपी पंडीत आपले नदरेंतल्यान संस्कृत आनी हेर प्राच्य भाशांचो अभ्यास करून संशोधन करताले. पूण भांडारकरान संस्कृतांतल्या

अभ्यासाक नवें, चिकित्सक संशोधनाचें स्वरूप दिलें. १८७४ वर्सा लंडनांत जाल्ल्या आंतरराश्ट्रीय प्राच्यविद्या परिशदेंत भांडारकर हाचो नाशिक शिलालेखाविशींचो निबंद आयलो. १८८६ वर्सा व्हिएन्नाक जाल्ले 'काँग्रेस ऑफ ओरिएंटॅलिस्टस' क तो भारताचो प्रतिनिधी म्हणून हाजीर आशिल्लो.

समाजीक सुदारणांक धर्माची आनी नितीची बसका दिवपाच्या उद्देशान स्थापन जाल्ल्या प्रार्थना समाजाचो भांडारकर १८६९ वर्सा वांगडी जालो. प्रार्थना समाजाचीं तत्त्वां, उद्देश आनी प्रतिज्ञा हांचें समर्थन करपाखातीर वेद, उपनिषद, गीता आनी संताचो आदर दाखोवपी लेख ताणें बरयले. ते भायर वेगवेगळया सुवातींनी व्याख्यानां आनी प्रवचनां केलीं.

प्रार्थना समाजाच्या वावराचेर पुणेंच्या केसरी ह्या खबरापत्रांतल्यान टिका जाताली. तिका भांडारकरान लेख बरोवन जाप दिली. बायल आनी शुद्र हांचें शिक्षण, बालविवाह बंद करप, विधवा विवाह, अस्पृश्यताय निवारण, मद्यपानबंदी, देवदासी पद्दतीचेर बंदी ह्यो समाजीक सुदारणा जावंच्यो म्हणून भांडारकरान खूब यत्न केले. समाजीक परिशदेच्या वावरांतूय ताणें वांटो घेतलो. हो समाजीक वावर करतना ताका विरोध सोंसचो पडलो पूण तो फाटीं सरलोना.

पाली, अर्धमागधी भाशांचो अभ्यास करून ताणें बौध्द धर्माचो चिकित्सक नदरेन अभ्यास केलो.

अर्ली हिस्टरी ऑफ डेक्कन (१८८४) वैष्णविझम, शैविझम अँड अदर मायनर रिलिजन्स (१९१३), ए पीप इनटू द अर्ली हिस्टरी ऑफ इंडिया (१९२०), कलेक्टेड वर्क्स ऑफ श्री. आर. जी. भांडारकर (१९३३) हे ताचे उजवाडा आयिल्ले ग्रथ. 'मालती माधव' ह्या संस्कृत ग्रंथाचें ताणें संपादन केलें.

१९०३ वर्सा व्हायसरॉयच्या (व्हाइस) लेजिस्लेटिव कौन्सिलाचो तो वांगडी आशिल्लो. १९११ वर्सा भरिल्ल्या दिल्ली दरबारा वेळार ताका 'सर' हो किताब दिलो.

'रॉयल एशियाटिक सोसायटी', लंडन आनी मुंबय; 'जर्मन ओरिएंटल सोसायटी' 'अमेरिकन ओरिएंटल सोसायटी', इटलीची एशियाटिक सोसायटी, सेंट पीटर्सबर्गांतली 'इंपेरिअल अॅकॅडमी ऑफ सायन्स' ह्या संवसारीक नामनेच्या संस्थांनी भांडारकराक वांगडीपद दिलें. ताच्या बऱ्या मागत्यांनी, ६ जुलय १९१७ ह्या दिसा, ताच्या ८०व्या जल्मदिसा, भांडारकर प्राच्यविद्या संशोधन मंदिर ही आंतरराश्ट्रीय ख्यातीची प्राच्यविद्या संशोधन संस्था पुणें हांगा सुरू केली.

- कों. वि. सं. मं.

**भांडारी, भास्कर लक्ष्मीधर :** (जल्म : १९ एप्रिल १९१२, कुंभारजुवें).

सुटकेझुजारी. लिसेंवाच्या सातव्या वर्सामेरेन ताणें शिक्षण घेतलें. कुंभारजुंवेचे 'शिक्षण प्रसारक मंडळ' हे संस्थेकडेन ताचो संबंद आशिल्लो. ही संस्था प्रभातफेरी, सूत कांतप आनी हेर उद्देगांवरवीं लोकांमदीं राश्ट्रीय जागृताय घडोवन हाडपाचो वावर करताली. १९ जून १९४६ दिसा डॉ. राममनोहर लोहियाचे अटकेआड निशेध करपाक ताणें पणजेचीं दुकानां, शाळा आनी हेर संस्थांची नासधूस केली. १५ जुलय १९४६ दिसा पुलिसांनी ताका अटक केली आनी २३ दीस आग्वाद बंदखणींत दवरलो. प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार ताची चवकशी जावन १३ ऑगस्ट १९४६ दिसा ताका ६ म्हयन्यांची बंदखण आनी ९०० रुपयांचो दंड भरपाची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच पांच वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. ताच्या घरच्यांनी नकळत दंड भरून ताची सुटका करून घेतली.

१९७५-८३ ह्या काळांत ताणें 'गोमंतकाची अस्मिता' ह्या म्हयनाळयाचें संपादन केलें. मराठी शिक्षण संमेलनाकडेन ताचो संबंद आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**भांडारी, शरणप्पा नागप्पा :** (जल्म : १५ ऑगस्ट १९३४, भामबुर्डे, पुणें, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी प्राथमिकमेरेन शिक्षण घेतलें. तो जनसंघाचो वांगडी आशिल्लो. १९७७ त तो 'जनता पार्टीचो' वांगडी जालो. २५ जून १९५५ ह्या दिसा जगन्नाथराव जोशी आनी अण्णासाहेब कवडी हांच्या फुडारपणाखाल न्हंयबाग-पेडण्यां जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. उपरांत पुलिसांनी ताका न्हंयबागेंत धरलो आनी रोखडोच सोडलो. २० मे १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**भाक्रा नानगल प्रकल्प :** पंजाब, हरयाना आनी राजस्थान ह्या तीन राज्यांनी फुडाकार घेवन सतलज न्हंयेचेर उबारिल्लो एक व्हड प्रकल्प. ह्या प्रकल्पाची सुरवात १९४६ वर्सा जाली. हिमाचल प्रदेश राज्यांतल्या बिलासपूरचे वायव्येक भाक्रा गांवांत ५१८ मी. लांबायेचें आनी २२६ मी. उंचायेचें एक व्हड काँक्रिटाचें धरण उबारलें. भाक्रा धरणाचे सकयले वटेन सु. १३ किमी. अंतराचेर पंजाब राज्यांतल्या नानगल गांवांत २४३ मी. लांबाय. १३३ मी. रुंदाय आनी २९ मी.

उंचाय आशिल्लें दुसरें धरण उबारलें. तशेंच, नानगलाक हायडेल चॅनल बांदलो.

१९५५ वर्सा नानगल वीज उत्पादन केंद्र उबारलें. जाल्यार १९५६ वर्सा गंगवाल आनी कोटला वीज उत्पादन केंद्रां उबारलीं. १९५८-५९ त भाक्रा धरणाचेर खारजां उबारलीं. १९६३ वर्सा भाक्रा नानगल प्रकल्प पुराय जालो आनी २२ ऑक्टोबर १९६३ दिसा पंडित नेहरूचे हस्तुकीं राश्ट्राक ओंपलो. ह्या प्रकल्पाक लागून हरयाना आनी भोंवतणच्या राज्यांक वीज आनी उदकाची सुविधा प्राप्त जाली.

- कों. वि. सं. मं.

## भागवत, दुर्गा : (जल्म : १० फेब्रुवारी १९१०, इंदूर ).

नामनेची मराठी लेखिका. लोकसंस्कृती आनी लोकसाहित्याची संशोधक. तेचप्रमाण समाजशास्त्र मानववंशशास्त्र आनी बौध्द धर्म हांची अभ्यासक.

तिचें मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण मुंबय, नगर, नासिक, धारवाड आनी पुण्याक जालें. १९२७ वर्सा ती मॅट्रीक पास जाली. उपरांत १९३२ वर्सा मुंबयच्या सेंट झेव्हियर कॉलेजींतल्यान संस्कृत आनी इंग्लीश विशय घेवन ती बी. ए. पास जाली. १९३५ वर्सा, ती एम. ए. ची परिक्षा पास जाली. तेखातीर तिणें 'इंडियन कल्चरल हिस्टरी' फांट्यांत 'अर्ली बुध्दिस्ट ज्युरिसप्रुडन्स' ह्या विशयाचेर प्रबंध बरयलो. पी. एच. डी. च्या प्रबंधांखातीर तिणें 'सिंथॅसीस ऑफ हिंदू अँड ट्रायबल कल्चर्स ऑफ सॅंट्रल प्रोव्हिन्सीस ऑफ इंडिया' ह्या विशयाचेर संशोधन केलें. पूण हो प्रबंध तिणें युनिव्हर्सिटीक दिलोना. त्या प्रबंधांतले वेंचीक वांटे परदेशांतल्या नेमाळ्यांनी उजवाडा आयले.



महात्मा गांधी, टॉलस्टॉय, हॅन्री डेव्हिड थोरो, मिल, रॉबर्ट ब्राउनिंग, राजारामशास्त्री भागवत, डॉ. केतकर, साने गुरुजी हांचे कडल्यान उर्बा, उमेद आनी स्फूर्त घेवन दुर्गाबाईन आपल्या लिखाणाक सुरवात केली.

१९४७ वर्सा बरयल्लो 'राजारामशास्त्री भागवत-व्यक्तिचित्र आनी वाङमयविवेचन' हो तिचो पयलो मराठी ग्रंथ. साने गुरुजीकडल्यान प्रेरणा घेवन १९५६ वर्सा तिणें गोंड समाज जिणेवयली 'महानदीच्या तीरावर' ही नवलिका बरयली. तिची ही पयलीच ललीतकृती. सैम आनी मनीस हांचेभितरले गूढ ऋणानुबंध चित्रावपी गद्यात्म-काव्यात्म ललीत निबंद 'ऋतुचक्र' पुस्तकाच्या रुपान १९५६ वर्सा तिणें उजवाडायलो.

१९५७ वर्सा एक वर्समेरेन 'साहित्य सहकार' म्हयनाळ्याची संपादक म्हणून आनी १९५८-६० मेरेन गोखले अर्थशास्त्र संस्था पुणेंच्या समाजशास्त्र विभागाची मुखेली म्हणून तिणें बरो वावर केला. उपरांत स्वतंत्र लिखाण आनी संशोधनाखातीर वेळ मेळचो म्हणून तिणें ही नोकरी सोडली.

लिखाणांतलें मुळावण, खाशेलें भारतीयत्व, सनातनाचो वेध घेवपाची शक्त हांकां लागून दुर्गाबाईन ललीत लिखाणाच्या मळार एक नवो मानदंड निर्माण केला अशें म्हण्टात.

'पूर्वा' (१९५७) हो तिचो एक नामनेचो कथांझेलो. तशेंच 'भावमुद्रा' (१९६०), 'पैस' (१९७०), डूब (१९७५) हे कसदार ललीत लिखाणाचे झेले आसात. १९६७ वर्सा तिणें कांय व्यक्तिचित्रां चितारल्यांत. १९७५ वर्सा 'प्रासंगिक' आनी १९८० वर्सा 'लहानी' ह्या नांवान आत्मवृत्तात्मक स्फुटलिखाण तिणें केलें.

'लोकसाहित्याची रुपरेखा' (१९५६) ह्या ग्रंथांत शास्त्रीय भुमिकेंतल्यान भारतीय लोकसाहित्याचो संवसारीक संदर्भांत मूल्यमापनात्मक असो विचार तिणें मांडला. कवीकुलगुरू रवींद्रनाथ टागोराच्या 'लोकसहित्य' ग्रंथाच्या अणकाराक (१९६०) जोडिल्ले प्रस्तावनेंत, दुर्गाबाईची लोकसाहित्याच्या अभ्यासाची वस्तुनिश्ठ शास्त्रीय भुमिका स्पश्ट जाल्या. १९७५ वर्सा तिणें 'धर्म आनी लोकसाहित्य' हो ग्रंथ बरोवन धर्म आनी लोकसाहित्याचो संबंद समाजीक मनीसशास्त्राचे नदरेंतल्यान पारखिला.

भारतांतल्या विंगड विंगड प्रांतांतल्या लोककथांचे मराठी अणकार तिणें केल्यात. वी. फोसबोल संपादीत पाली जातककथांच्या आदारान तिणें 'सिध्दार्थ-जातक, खंड १ ते ७' ह्या नांवान सगळ्यो कथा मराठींत हाडल्यो. हातूंत सिध्दार्थाच्या पूर्वजल्माची म्हायती सांगल्या. तशेंच, हातूंत २२ निपात (वांटे) आसात, ५५० कथा आनी ६९०६ गाथा आसात. ३० जून १९७८ दिसा. 'सिध्दार्थ-जातक' चो सातवो खंड उजवाडा आयलो.

तिणें हॅन्री डेव्हिड थोरो हाच्या ग्रंथाचो 'वॉल्डनकाठी विचारविहार' (१९६४) आनी 'चिंतनिका' (१९६८) ह्या नांवांनी अणकार केल्यात. ऑगस्ट डर्लेथ हाणें बरयल्ल्या थोरोच्या चरित्राचो 'कॉंकॉर्डचा क्रांतिकारक' (१९६९) असो अणकार करून थोरोची जीण, ताचे विचार आनी वावर तिणें मराठी वाचप्यांमुखार दवरले. १९५८ वर्सा ॲन मॉरो लिंडबर्गच्या एकांतप्रियतेच्या तत्त्वगिन्यानाची मांडणी करपी 'समुद्राची देणगी' हें अणकारीत पुस्तक तिणें उजवाडायलें. तशेंच, डॉ. केतकराच्या समाजशास्त्रीय ग्रंथाचोय तिणें अणकार केलो.

तिणें इंग्लीश भाशेंतल्यानूय म्हत्वाची साहित्य रचणूक केल्या. 'अर्ली बुध्दिस्ट ज्युरिप्रूडन्स' (१९३८), 'ए डायजेस्ट ऑफ कंपेरेटिव्ह फिलॉलॉजी (१९४०), बौध्द आनी जैन धर्माच्या अभ्यासांतल्यान हातांत आयिल्ल्या प्रेमकथांच्या अन्वयार्थाचेर आदारून 'रोमान्स इन सॅक्रेड लोर' (१९४६), 'हिंदुइझम अँड इट्स प्लेस इन द वर्ल्ड सोसायटी' (१९४७), मानववंशशास्त्राचेर 'ए प्रायमर ऑफ अँथ्रोपोलॉजी' (१९५०), भारतीय लोकसाहित्याच्या संशोधनाचेर आदारून 'ॲन आउटलायन ऑफ इंडियन फोकलोर' (१९५६) आनी 'रिडल इन इंडियन लायफ, लोर अँड लिटरेचर' (१९६६).

दुर्गाबाईन समिक्षात्मक लिखाणूय केलां. राजारामशास्त्री हाचें चरित्रलिखाण आनी ताच्या साहित्याचें संपादन दुर्गाबाईन केलें. तशेंच समाज प्रक्रियेचें भान दवरपी स्वतंत्र मोडणाचो समिक्षेचो ग्रंथ 'केतकरी कादंबरी' (१९६७) ह्या नांवान दुर्गाबाईन बरयलो.

महाभारतांतल्या मुखेल व्यक्तीरेखांचें आनी तांचे जिणेचो सर्जनशील अर्थ लावपी व्यासपर्व तिणें बरयलें.

विद्वत्ता, गिन्यानाची साधना, नवनिर्मिणी हांचें अनुशासन नोकरशायेच्या हातांत आसचें न्हय आनी खरे लोकशायेची प्रतिमा सिध्द करपाक विचारवंतांनी वावुरचें ही आपली भुमिका तिणें सदांच नेटान मांडल्या. तेचखातीर आणीबाणीच्या काळांत १९७५ वर्सा तिका बंदखण भोगची पडली. त्या काळांत तिणें केल्ल्या भाशणांचीं संकलनां म्हणून 'मुक्ता' (१९७७) आनी 'जनतेचा सवाल' (१९७९) हीं दोन पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. १९८८ वर्सा 'शासन, साहित्यीक आनी बांधिलकी' हें तिचें पुस्तक उजवाडा आयलें.

साहित्यिकांनी पुस्तकांखातीर सरकारी अनुदान घेवपाक तिचो विरोध आसा.

कराडांत १९७५ वर्सा भरिल्ल्या ५१व्या अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलनाची ती अध्यक्षा आशिल्ली. तिच्या 'पैस' साहित्यकृतीक १९७१ वर्सा साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

समाजीक न्यायाखातीर, समता, लोकशाय ह्या तत्त्वांखातीर झगडपी विचारवंत साहित्यिका म्हणून साहित्यीक संवसारांत तिची नामना आसा.

- कमलाकर म्हाळशी

**भागवत धर्म :** भगवंतान (श्रीकृष्णान) उपदेश केल्लो आनी भगवद् भक्तांनी आचरिल्लो धर्म. सामान्य मनशाक सोंपे रितीन मोक्ष मेळोवपाखातीर भगवंतान जे उपाय सांगल्यात, तांकां भागवत पुराणांत भागवतधर्म अशें म्हळां. 'भागवत्' ह्या संस्कृत उतराचो ईश्वर असो अर्थ आसून 'भागवत संप्रदाय' हो मुखेलपणान वैशणव संप्रदाय म्हणून प्रसिध्द आसा. तातूंत विष्णु, आनी चड करून ताचे कृष्ण अवतार म्हळ्यार भगवान, हें उपास्य दैवत आसा. भगवान हो श्रीकृष्ण आसा अशें 'कृष्णस्तू भगवान् स्वयम्' ह्या भागवतवचनांत म्हळां.

भागवतधर्म केन्ना अस्तित्वांत आयलो ह्या प्रस्नाचेर तज्ञांभितर मतभेद आसात. मुळाव्या पांचरात्र संप्रदायासाकून भागवतधर्मी संप्रदाय निर्माण जालो अशें कांय जाणकाराचें मत आसा. नारदाच्या मतान ब्रह्म, मुक्ती, भोग, योग आनी संवसार मेळून पांचरात्र जाता. ह्या पांचरात्र मताचो पुरस्कार करपी नारायण होच सुरवेक भागवतांचो उपास्य आशिल्लो. नारायणीय उपनिषदांत नारायण ह्याच नांवान विष्णुचो उल्लेख जाता. अशे रितीन नारायण आनी विष्णु हे एकरूप जाले. मुखार महाभारताच्या तेंपार विष्णु आनी श्रीकृष्ण हे एकरूप जाले. हाका लागून विष्णुची उपासना करपी भागवत संप्रदायाक वैशणव संप्रदाय अशेंय म्हण्टात. पाणिनी हाचे अष्टाध्यायींत वासुदेव हें नांव आयलां. ताचे वयल्यान पाणिनीच्या तेंपार वासुदेवाची भक्ती करपी भागवत संप्रदाय अस्तित्वांत आशिल्लो अशें मत रा. गो. भांडारकर हाणें मांडलां. गुप्तकाळा पयलीं सांपडिल्ल्या साहित्य आनी पुरातत्त्व हांच्या आदारान ह्या संप्रदायाचें आदलें नांव वासुदेवधर्म आशिल्लें आनी गुप्तकाळांत त्या धर्माक भागवत धर्म हें नांव मेळळें आसुंये, अशें अनुमान कांय तज्ञांनी काडलां. गुप्त सम्राटांनी भागवत धर्माक आलाशिरो आनी फावो तो आदार दिवन ताची खूब वाड केली. गुप्त काळांत उत्तर भारतांत तशेंच दक्षिण भारताच्या तोंका मेरेन भागवत धर्माचो विस्तार जाल्लो. इ. स. च्या चवथ्या शेंकड्यासावन ते णवव्या शेंकड्यामेरेन तमिळनाडूंत अळवार संतांची परंपरा चालंत आशिल्ली. ह्या अळवार संतांनी आपले पद्य रचणुकेंतल्यान विष्णु भक्तीचें म्हत्व वाडयलें. उपरांत आळवार संतांच्या भक्तीभाव वांङ्‌मयांतल्यान रीतसर भक्तीदर्शन निर्माण करपाचो आनी भक्तीधर्माक वैदिक म्हत्व मेळोवन दिवपाचो वावर णवव्या आनी धाव्या शेंकड्यांनी रामानुजाचार्य, माध्वाचार्य, निंबार्क आनी हेर आचार्यांनी केलो.

गुप्तकाळा उपरांत दक्षिणेक भागवत धर्माचो विस्तार जायत गेलो, पूण उत्तर भारतांत सव्या शेंकड्याउपरांत भागवत धर्माक देंवती कळा लागली. चवदाव्या शेंकड्यामेरेन थंय स्मार्थ वैदिक धर्म आनी बौध्द धर्म हांचेभितर सर्त लागिल्ली. मुखार बौध्द धर्माचो पुरायपणान ऱ्हास जालेउपरांत भागवत धर्माचें उत्तर भारतांत पुनरुज्जीवन करपाचो वावर रामानंद हाणें केलो. राम हो विशिष्टाद्वैती आशिल्लो. ताणें कृष्णाचे सुवातेर उपास्य म्हणून रामाची स्थापणूक केली आनी वेगळो संप्रदाय निर्माण केलो. ताचे परंपरेंत सगूण आनी निर्गूण अशे दोन उपपंथ निर्माण जाले. तुलसीदास हो सगूण भक्तीचो जाल्यार कबीर हो निर्गूण भक्तीचो प्रतिनिधी आशिल्लो. चवदाव्या आनी पंदराव्या शेंकड्यांनी कबीर, रैदास (रोहिदास) आनी हेर निगुर्णी संतांच्या प्रभावांतल्यान उत्तर प्रदेशांत

भक्तीचें माहात्म्य खूब वाडलें. वल्लभाचार्य हाणें उपदेशिल्लो पुश्टिमार्ग, निंबार्काचार्य हाचो सनकादी संप्रदाय, हितहरिवंशाचो राधावल्लभीय संप्रदाय, हरिदास हाचो हरिदासी संप्रदाय आनी चैतन्य हाचो गौडीय संप्रदाय हांणी कृष्णभक्तीचेर आनी ताच्या सगूण रुपाचेर भर दिवन उत्तर भारतांत कृष्णभक्तीचो महिमा वाडयलो. महाराष्ट्रांत उदयाक आयिल्लो वारकरी संप्रदाय हो भागवत धर्माचो निमाणो संप्रदाय अशें मत कांय तज्ञांनी मांडलां. ज्ञानेश्वर, नामदेव, तुकाराम आनी हेर वारकरी संतांनी महाराष्ट्रांत भागवत धर्माचें म्हत्त्व वाडयलें.

भागवतपुराण आनी भगवद्‌गीता हे ह्या संप्रदायाचे मुखेल आदारग्रंथ. महाभारताच्या मतान भागवतधर्म हो लोकधर्म. भक्तिमार्गाचो रीतसर पुरस्कार केल्यार हीन मानिल्ल्या जातींतल्या मनशाकूय मोक्ष मेळटा अशें तातूंत म्हळां. भागवतांनी समाजांत पातळिल्ले जाती-कातीचे भेद पयस करपाचे यत्न केल्ले. तांच्या मतान रूढ कर्मकांड आनी संकुचीत आचारधर्म हांचेपरस नैतिक कर्तव्यां श्रेश्ठ आशिल्लीं. अस्पृश्यताय आनी जातीभेदासारके दोश पयस करून भौशिक मळार समानताय हाडपाचे भागवतांनी खूब यत्न केल्ले. पूण तांकां पुरायपणान यश मात आयलेंना.

- कों. वि. सं. मं.

**भागवतपुराण** : अठरा महापुराणांतलें एक. चडशा पुराणांनी ताचो पांचवें पुराण म्हणून उल्लेख जाता. संस्कृत भाशेंत उपलब्ध आशिल्लें हें पुराण भागवत वा श्रीमद्‌भागवत ह्या नांवांनीय प्रसिध्द आसा. ह्या पुराणाची रचणूक बारा स्कंधांनी केल्ली आसून तातूंत ३३२ अध्याय आसात आनी ह्या अध्यायांनी सुमार १८ हजार श्लोक आसात. हातूंत श्रीकृष्णाच्या रुपांत विष्णु भक्तिचो जयजयकार केल्लो आसा. देखून ताका सात्विक पुराण मानलां. ह्या महापुराणांत दिल्ले परंपरेप्रमाण भागवतपुराण वासुदेवान ब्रह्मदेवाक, ब्रह्मदेवान नारदाक, नारदान व्यासाक आनी व्यासान तें आपल्या पुताक म्हळ्यार शुकदेवाक सांगलें. शुकदेवान तें परिक्षित राजाक सांगलें. अशे रितीन ताचो लोकांमदीं प्रसार जालो. हेर महापुराणांपरस भागवतपुराण हें रस, भाव आनी भास ह्या तिनूय गजालींनी श्रेश्ठ आशिल्ल्यान तें चड लोकप्रिय जालां.

भागवतपुराणाच्या निर्मिती काळाविशीं तज्ञांभितर मतभेद आसात. आचार्य बलदेव उपाध्याय हाच्यामतान ह्या पुराणाची निर्मिती सव्या शेंकड्यांत जाल्ली. पूण पां. वा. काणे हाणें ती णवव्या शेंकड्यांत जाली अशें सांगलां. ह्या पुराणांत दक्षिण भारतांतलीं तीर्थक्षेत्रां, न्हंयो आनी हेर गजालींच्या केल्ल्या वर्णनांवयल्यान भागवतपुराणाची रचणूक दक्षिण भारतांत (तमिळनाडू) जाल्ली आसुंये अशें मत कांय तज्ञांनी मांडलां. भक्ती हो भागवतांचो मुखेल विशय आसून ही भक्ती द्रविड देशांत म्हळ्यार दक्षिण भारतांत निर्माण जाली अशा आशयाचो एक श्लोक भागवतमाहात्म्यांत मेळटा. तो श्लोक असो-

*'उत्पन्ना द्राविडे साहं वृध्दिं कर्णाटिके गता ।*
*क्वचित्क्क चिन्महाराष्ट्रे गुर्जरे जीर्णतां गता ।।'*

**अर्थ** : द्रविड देशांत हांव उत्पन्न जालीं, कर्नाटकांत म्हजी वाड जाली, जाल्यार महाराष्ट्रांत कांय कडेन आनी गुजराताच्या कांय वाठारांनी हांव जाण्टी जाली.

भगवान हो भागवतधर्माचो उपास्य. भगवान म्हळ्यार विष्णु अवतार श्रीकृष्ण, अशें 'कृष्णस्तु भगवान् स्वयम्' ह्या भागवतवचनांत म्हळां. चडशा सगळ्या भागवत संप्रदायांनी भागवत पुराणाक आपलो आदार वा प्रमाणग्रंथ मानला. भागवतपुराणाच्या बारा स्कंधांनी वेगवेगळे जे विशय मांडिल्ले आसात ते अशे :

पयल्या स्कंधांत वट्ट सोळा अध्याय आसून तातूंत भागवतपुराणाची निर्मिती कशी जाली हाचें वर्णन केलां. हातूंत सुरवेक व्यास आनी नारद हांची भेट, नारदाचें चरित्र, उपरांत परिक्षिताचो जल्म, ताचो राज्याभिशेक आनी कर्तूब, शमीक ऋषीचो पूत शृंगी हाणें परिक्षित राजाक दिल्लो श्राप, तक्षक ह्या सोरपाच्या वंशान आपूण मरतलों हें कळ्ळे उपरांत परिक्षितान आपलो चलो जन्मेजय हाचेकडेन राज्यकारभार सोंपोवन सुरू केल्लें प्रायोपवेशन आनी द्वारकेचें वर्णन केल्लें आसा. दुसऱ्या स्कंधांत वट्ट धा अध्याय आसून तातूंत शुक्राचार्य हाणें परिक्षिताक भागवतकथन करता आसतना ब्रह्मदेवान निर्माण केल्ले सृश्टीची कथा, वराह अवतारासावन ते कृष्णावतारामेरेनच्या अवतारांचें वर्णन केलां.

तिसऱ्या स्कंधांत तेत्तीस अध्याय आसात. हातूंत कौरव-पांडव कथा, स्वायंभुव मनू आनी शतरुपा हांची व्युत्पत्ती, हिरण्याक्षाचो वराहरुपी भगवंताकडच्यान जाल्लो वध, स्वायंभुव मनू वंशाचें वर्णन, कपिला हाचो जल्म आनी कपिला मुनीन आपले आवयक केल्लो सांख्याशास्त्राचो उपदेश हे तिसऱ्या स्कंधांतले कांय म्हत्वाचे विशय. चवथ्या स्कंधांत वीरभद्राची व्युत्पत्ती, दक्षयज्ञाचो विध्वंस, ध्रूवचरित्र, पृथुचरित्र, वेन राजाची कथा आनी पुरंजन राजाची कथा, तशेंच मोक्ष प्राप्ती हांचें वर्णन केलां.

चवथ्या स्कंधांत वट्ट एकतीस अध्याय आसात. पांचव्या स्कंधांत सव्वीस अध्याय आसून हाचो चडसो वांटो गद्य आसा. हातूंत सुरवेक मनूपुत्र प्रियव्रत हाचो वंशविस्तार, ऋषभावतार, ऋषभपुत्र भरताची कथा, भरतवंशाचें वर्णन, सैमाचें वर्णन आनी भरतखंडाचें व्हडपण सांगलां.

भागवत पुराणाच्या सव्या स्कंधांत एकुणीस जाल्यार सातव्या स्कंधांत पंदरा अध्याय आसात. सव्या स्कंधांत अजामिलाचें आख्यान आनी ताचें स्वर्गगमन, इंद्र-वृत्रासुराचें झूज, विश्वरुपाची कथा आनी मरुतांची उत्पत्ती कशी जाली हें सांगलां. सातव्या स्कंधांत प्रल्हादचरित्र

सांगून वर्णाश्रमधर्माचें विवेचन केल्लें आसा. आठव्या स्कंधांत यज्ञावतार, चार मन्वंतरांचें वर्णन, विष्णु देवान केल्ल्या गजेंद्रमोक्षाची कथा, देव-दैत्याकडच्यान दर्याचें मंथन, दैत्यांनी चोरून व्हेल्लें अमृत परत मेळोवपाखातीर विष्णु देवान घेतिल्लें मोहिनी रूप, देव-दैत्यांचें झूज, बळिराजाची कथा आनी मत्स्यावतार कथा सांगल्या णवव्या स्कंधांत सूर्य आनी सोम ह्या वंशांचें वर्णन केलां. तशेंच मनूच्या धा पुतांची कथा, शर्याती आनी सुकन्या हांचें आख्यान, अंबरिशाची कथा, हरिश्चंद्राची कथा, विश्वामित्राची कथा, परशुरामान केल्लो क्षत्रिय संहार, ययाती आख्यान आनी दिवोदास वंशाचें वर्णन केल्लें आसा. धाव्या स्कंधांत वसुदेव-देवकी लग्न, कृष्ण जल्म, कृष्ण-गोकूळ वर्णन, कंस वध, कालियामर्दन, श्रीकृष्णाचें रुक्मिणी, सत्यभामा आनी हेरांकडेन लग्न, सुदामा आख्यान आनी कृष्णान केल्ल्या आत्मज्ञानाचो उपदेश हे विशय मांडल्यात. इकराव्या स्कंधांत ऋषीच्या शापान यदुकुलाचो जाल्लो नाश, नारदान वासुदेवाक केल्लो भागवत धर्माचो उपदेश तशेंच श्रीकृष्णान उद्धव हाका केल्लो उपदेश ह्या स्कंधांत मेळटा. निमाण्या स्कंधांत, म्हळयार बाराव्या स्कंधांत, श्रीकृष्णाउपरांत भरतखंडांत जाल्ल्या राजांचें वर्णन, प्रलय वर्णन, मार्कंडेय कथा, भक्तीचें व्हडपण, भागवत सांगून सोंपले उपरांत शुक्र परिक्षिताचो निरोप घेता. परिक्षिताक तक्षकदंश, परिक्षिताच्या मरणाउपरांत जन्मेजयाचो सर्पयज्ञ निमाणेकडेन हेर पुराणांपरस भागवताचें वेगळेपण, हे विशय बाराव्या स्कंधांत आयिल्ले आसात.

भागवतपुराणाचो हेर पुराणांनी फकत भागवत असो उल्लेख जाता. सद्या श्रीमद्‌भागवत आनी देवी भागवत अशीं दोन पुराणां अस्तित्वांत आसात. काव्याचे नदरेन भागवतपुराणांतलें वर्णन भावपूर्ण आनी रसात्मक आशिल्ल्यान तें चड लोकप्रिय आसा. पूण ताचेर तितलीच चड टिका जाल्ली आसा. यशवंत व्यंकटेश कोल्हटकर हाणें 'श्रीमद्‌भागवतादर्श' ह्या मराठी ग्रंथांत भागवतपुराणांतले धर्म आनी तत्त्वगिन्यान हांचें विवेचन केल्लें आसा. एस. सुब्बाराव, स्वामी विज्ञानानंद, जे. एम. संन्याल हांणी भागवतपुराणाचें इंग्लिशींत भाशांतर केल्लें आसा. भारतीय संस्कृतीक जिणेचेर 'भागवताचो' खूब प्रभाव पडिल्लो दिश्टी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** पुराणां.

**भागवतमेळा नाटक :** एक परंपरीक नृत्यनाट्यप्रकार. तमीळनाडूंतल्या ह्या नृत्यनाट्य प्रकाराक भरतनाट्यमाचोच एक प्रकार मानतात. तीर्थनारायण यती ह्या तंजावर जिल्ह्यांतल्या तेलुगू ब्राह्मणाक हे नृत्यनाट्यकलेचो जनक मानतात.

भागवतमेळ्याची उत्पत्ती तंजावर जिल्ह्यांतल्या मेलात्तुर ह्या गांवांत जाली. त्या वेळार तंजावरांत नायक राजवंशांतलो दुसरो राजा अच्युताप्पा नायक (१५७२-१६१४) हो राज्य करतालो. ताका संगीत आनी नृत्य ह्या कलांची आवड आशिल्ल्यान ताणें हे कलेक खूब उत्तेजन दिलें. हे कलेचे उदरगतीखातीर ताणें नर्तक, संगीतकार अशा ५१० ब्राह्मणांक एक गांव दिलो. तेखातीर ह्या गांवाक 'अच्युतपुरम्' म्हणून वळखूंक लागले आनी ताकाच फुडें 'मेलात्तूर' हें नांव पडलें.

मेलात्तूर गांवांत वरदराज पेरुमलचें एक देवूळ आसा. दर वर्सा नरसिंहजयंतीक ह्या देवाची जात्रा जाता. ह्या वेळार थंय भागवतमेळ्याचे प्रयोग जातात. हांगाची भागवतमेळ्याची परंपरा तीनशें वर्सांची, पूण सद्याचीं नृत्यनाटकां देडशें वर्सांपयलीं व्यंकटराम शास्त्री नांवाच्या एका तेलुगू ब्राह्मणान बरयल्लीं आसात. ताणें भागवतमेळ्याखातीर प्रल्हादचरित्रम, मार्कंडेय, उषापरिणयम, रुक्मांगद, गोल्लाभामा, सीताकल्याणम, रुक्मिणीकल्याणम्, ध्रूवचरित्रम, कंसवध, हरिश्चंद्र, शिवरात्रिवैभवम आनी भस्मासुरवधम अशीं बारा नृत्यनाटकां बरयलीं. हीं सगळीं नाटकां तेलुगू भाशेंत आसात. व्यंकटरामशास्त्री हाच्या काळार सावन, मेलात्तूराक हीं नाटकां नेमान जातात.

मेलात्तूर गांवांत जावपी नरसिंहजयंतीचो उत्सव दोन ते धा दीस मेरेन चलता. तेखातीर वरदराजाच्या देवळामुखार सुमार देडशें फूट लांबयेचो मांटव घालतात. एके वटेन रंगमाची आसता. जात्रेच्या पयल्या दिसा सावन ह्या नृत्यनाट्यांक आरंभ जाता. पयलीं हीं नाटकां रातचीं सुरू जावन फांतोडेमेरेन चलतालीं. एकेक नृत्यनाट्य पांच वरां चलता.

भागवतमेळ्यांत फकत दादलेच काम करतात. बायलांचींय कामां दादलेच करतात. ह्या नाटकांतलें नृत्य, अभिनय भरतनाट्यमाच्या तंत्राप्रमाण आसता. पूण कांय खेपे तातूंत संवाद वा स्वगत भाशण आसता. चड करून मुखेल गायक सगळीं पदां म्हण्टा. हीं पदां आनी संवाद तेलुगू भाशेंत आसतात. पूण विनोदी पात्र तमीळ भास वापरता.

नृत्यनाट्याची सुरवात 'कोणंगी' वा विदुशकाच्या प्रवेशान जाता. हातूंत खंयचेंय विनोदी पात्र रंगमाचयेर येवन नाच करता. उपरांत नट्टुवनार वा सुत्रधार आनी हेर गायक-वादक रंगमाचयेर येवन 'मंगलम्' म्हण्टात. तेन्ना हो नाट्यप्रयोग यशस्वी जावंचो म्हणून गणपतीचें रूप घेतिल्लो बारा वर्सांपरस ल्हान पिरायेचो भुरगो येवन नाच करता. हाकाच 'गणपतिवंदन' म्हण्टात. हाचे उपरांत 'पात्र-प्रवेश दरू' नांवाचो एक ल्हानसो प्रवेश करतात. हातूंत 'कट्टियकारन' येता आनी गीत, अभिनय हांच्या आदारान तो नाटकाचे कथेची तशेंच पात्रांची वळख करून दिता. दर एक पात्र पड्ड्याफाटल्यानसावन माचयेर येता आनी नाचून वता. निमाणें मुखेल कथानकाक सुरवात जाता.

गायक नृत्यनाटकांतलीं पदां म्हण्टा आनी पात्रां आभिनय करून तांचे अर्थ उकतायतात. ह्या नाटकाचें संगीत कर्नाटकी आसता. ताका मृदंग, सारंगी आनी मुरलेची साथ आसता.

गणपती, नरसिंह, ब्रह्मा, राक्षस ह्या पात्रांक रुपडीं घालतात. 'प्रल्हादचरितम' ह्या नाटकांतलें नरसिंहाचें रुपडें खूब पवित्र मानतात. हें रुपडें मेलात्तूरच्या वरदराजाच्या देवळांत एके पेटयेंत दवरिल्लें आसता. हें रुपडें घाल्लो नरसिंहाचें काम करपी नट निमाणें रागान भान वचून घुंवळ येवन पडटा. साबुद्दीर येतकच ताका मिरवणुकेन वरदराजाच्या देवळांत व्हरतात आनी थंयच ताचें रुपडें काडून भोवमानान थंयचे पेटयेंत दवरतात. उपरांत लोक आपापल्या घरा वतात.

पद्य, दरू, शब्दम्, चूर्णिका, पदवर्ण हे संगिताचे प्रकार ह्या नाट्यप्रकारांत वापरतात. नृत्यनाट्य जसजशें फुडें वता त्या त्या वेळाक धरून संगीत राग गायतात. हेखातीर वातावरण निर्मिती बरी जाता. आहिरी, घंटा असले राग मध्यान्ही उपरांत म्हण्टात. ह्या नृत्यनाट्यांत 'सोलकट्टु' (बोल) लेगीत सुरांत गावपाची चाल आसा.

नटेश अय्यर हो बायलेची भुमिका करपी एक श्रेश्ठ नर्तक आनी नृत्याचो गुरु जावन गेलो. भारत्रम् नल्लूर नारायणस्वामी, के. सुब्रह्मण्य अय्यर आनी कोंदड राम अय्यर हे नामनेचे नर्तक नट ताचे शिश्य आशिल्ले. हालींच्या काळांत ज्येश्ठ नर्तक म्हणून बालसुब्रह्मण्यम् शास्त्री वा बाळू भागवतर हाचें नांव आसा. ताचे परंपरेंत कृष्णमूर्ती, नागराजन, वेंकटरामन, स्वामीनाथन हांचो उल्लेख मेळटा. तशेंच ई. कृष्ण अय्यर हाणेंय ही नृत्यनाट्याची परंपरा सांबाळपाखातीर खाशेले यत्न केल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## भागवत, राजारामशास्त्री :

(जल्म : ११ नोव्हेंबर, १८५१, कशेळी, ता. राजापूर, जि. रत्नागिरी; मरण : ४ जानेवारी, १९०८, मुंबय).

प्रख्यात विद्वान आनी समाजसुदारक. कशेळीच्या भिक्षुकी करपी एका कऱ्हाडे ब्राह्मण कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. १८३० वर्साच्या अदमासाक, राजाराम शास्त्रीचो बापूय रामकृष्ण हरी आनी बापोलयो भास्कर हरी हे दोगूय जाण इंग्लीश शिक्षणाखातीर मुंबय गेले. उपरांत रामकृष्ण हरी हाणें मुंबय नगरपालिकेंत नोकरी केली. राजारामशास्त्री ल्हान आसतनाच ताचे आवयक मरण आयलें. ताच्या बापायक वेदान्त विशयाची ओड आशिल्ली. तेखातीर सगळ्या लोकांक वेदान्त समजुचो म्हणून रामकृष्णपंतान 'सायुज्यसदन' (१८६८) आनी 'कायाजीचा संवाद' अशीं दोन नाटकां बरयलीं. राजारामशास्त्रीची बायल सुंदराबाई मोगाळ आनी कश्टी आशिल्ली. तांकां एकूच चली आशिल्ली पूण १८९७ वर्सा तिका मरण आयलें. आपल्या बापोलभावाक राजारामशास्त्र्यान पूत मानिल्लो. ताका लेगीत १९०७ वर्सा मरण आयलें.

१८६७ वर्सा राजारामशास्त्री मॅट्रीक जालो. बापायचे इत्सेप्रमाण ताणें ग्रँट मॅडिकल कॉलेजींत तीन वर्सां शिक्षण घेतलें. पूण बापूय मरतकच हें शिक्षण बंद जालें. उपरांत एका संस्कृत पंडिताकडेन अध्ययन करून तो शास्त्री जालो. १८७५ वर्सा रॉबर्ट मनी हायस्कुलांत तो शिक्षक जालो. उपरांत निमाणे मेरेन तो सेंट झेव्हियर कॉलेजींत संस्कृताचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९०२ वर्सा मुंबय विद्यापिठांत 'विल्सन फायलॉलॉजिकल' लॅक्चरर म्हणून ताची नेमणूक जाली.

तो जल्मूयभर विद्यार्थी आनी लोकशिक्षक आशिल्लो. अस्तंती आनी उदेंती अशा विंगड विंगड भाशांचो खोलायेन अभ्यास करपाक मेळचो म्हणून तो लॅटीन, ग्रीसी, अरबी, फार्सी ह्यो भाशा शिकलो. देखून ताच्या जायत्या उतरांच्यो व्युत्पत्ती आयज लेगीत वापरतात.

शिक्षणाविशीं भागवताचीं कांय स्वतंत्र ध्येयां आशिल्ल्यान ताणें १८८४ वर्सा बाँबे हायस्कूल आनी आपणाल्या कतृत्त्वान मराठा हायस्कूल काडलें. महर्षी कर्वे रँ. परांजपे, बॅ. जयकर हे कांय नामनेचे लोक ताचे विद्यार्थी आशिल्ले. भागवताचो बापोलयो भास्कर हरी, मुंबय प्रार्थना समाजाच्या संस्थापकांतलो एक आशिल्ल्यान न्या. रानडे आनी हेर कांय नामनेच्या विद्वान इश्टांकडेन राजारामशास्त्रीचो लागींचो संबंद आयलो. राजारामशास्त्रीन प्रत्यक्षांत केन्नाच राजकारणांत वांटो घेतलो ना आनी प्रार्थना समाजाचो वांगडी लेगीत जालो ना. पूण प्रार्थना समाजाचें मुखपत्र 'सुबोध पत्रिका' ह्या सातोळयांत ताणें जातीभेद, समाजीक भयरोजोळोपाच्यो चालीरिती, बायलांच्यो सुदारणा ह्या विशयांचेर खूब लिखाण केलें. 'हिंदूधर्मविवेचक' पत्राचो तो कांय वर्सां संपादक आशिल्लो. केरळ कोकीळ, इंदुप्रकाश, नेटिव्ह ओपीनियन, विविधज्ञान विस्तार, ज्ञानप्रकाश, पुणे वैभव ह्या नेमाळयांतल्यान ताणें खूब लिखाण केलें. तत्त्वगिन्यान, काव्य, कथा, पुस्तकांचीं परिक्षणां, वैजकी-भलायकी, पदार्थविज्ञान, पुर्विल्लें संस्कृतिसंशोधन, देशी भास, आमचो देश आनी देशी लोक, ज्योतिश, वैदिक आनी पुराणीक भासाभास ह्या विशयांचो नियाळ ताणें ह्या नेमाळयांनी केलो. शास्त्रीबुवा आसतना ताचीं चाळिसांवयर पुस्तकां उजवाडा आयलीं. 'मराठ्यांसंबधाने चार उद्गार' (१८८७), 'ब्राह्मण व ब्राह्मणीधर्म' (१८८९), 'शिवछत्रपतींचे चरित्र' (१८९२) हीं ताचीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां आयज लेगीत ताचे विद्वत्तेची गवाय दितात.

वेद-वेदान्त, गीता आनी तशींच धर्मीक विशयांचेर ताणें इंग्लिशींत लेगीत धा पुस्तकां बरयलीं.ताचे कांय वेंचीक लेख दुर्गाबाई भागवत हिणें संपादून 'कै. राजारामशास्त्री भागवत यांचे निवडक लेख' (१९५०) ह्या नांवान उजवाडाल्यात.

१९०० वर्सा उपरांत पयलीं बडोदा आनी मागीर कोल्हापूराक वेदोक्त प्रकरण खूब गाजलें. तेन्ना शास्त्राच्या आदाराचेर, मराठे हे क्षत्रिय आसात अशें मत उक्तावन ताणें शाहू महाराजाचो पक्ष घेतलो. मराठा चलयांची मूज करची म्हणून कोल्हापूर-बेळगांवां वचून आपूण जावन ताणें पुरयतपण केलें. तांकां गायत्री मंत्र दिलो. ब्राह्मणांनी मांस खावंचें, अंत्यजा सकट सगळ्या चलयांच्यो मुजी जावंच्यो हीं शास्त्रीबुवाचीं

मतां त्या काळांत जायत्या जाणांक विचित्र अशीं दिसलीं. मूज, लग्न हे सारके संस्कार सुवाळे ताणें, तातूंत जाय तितलोच शास्त्रोक्त भाग दवरून सार्थ तयार केले. अशे तरेन इतिहासीक तत्त्वनिश्ठ परिवर्तनवादाची ताणें एका अर्थान सुरवात केली. टिळक आनी केसरी, तशेंच सनातन धर्ममार्तंड धर्मकर्तो भाऊशास्त्री लेले हांणी राजारामशास्त्र्याक खर विरोध केलो. स्वभावान तो खूब तापट आनी विचित्र आशिल्ल्यान ताच्या कांय विरोधकांनी, ताच्या वैयक्तिक दोशांचें खूब भांडवल केलें. मुंबयंतल्या सर्वदेशी वातावरणाचो ताचेर खूब प्रभाव पडलो. विधवाविवाह, अस्पृशताय निवारण ह्या प्रस्नांनी लेगीत ताणें लक्ष घालें.

- कों. वि. सं. मं.

**भागीरथी :** अस्तंत बंगाल राज्याच्या त्रिभूज प्रदेशांतल्यान व्हांवपी गंगा न्हंयेचो दक्षिणवाहिनी फांटो. मुर्शिदाबाद जिल्ह्यांत २४° ३५' उत्तर अक्षांश आनी ८८° ५५' उदेंत रेखांशाचेर जंगीपूरच्या सादारण आठ किमी. अंतराचेर हो फांटो गंगेपसून वेगळो जाता. बरद्वान आनी नडिया ह्या जिल्ह्यांचे शिमेवयल्यान दक्षिणेक वतकच नवदिपाकडेन हे न्हंयेक उदेंतेकडल्यान जलांगी न्हंय येवन मेळटा. थंयसावन ह्या प्रवाहाक फुडें हुगळी ह्या नांवान वळखतात. आदल्या तेंपार हिका 'सरस्वती' ह्या नांवान वळखताले. सोळाव्या शतमानामेरेन भागीरथी होच गंगेचो मुखेल फांटो आशिल्लो. पूण सतराव्या शतमानापसून हातूंत गाळ सांचत गेलो आनी गंगेतलें बरेंचशें उदक बांगला-देशांतल्या पद्मा आनी मेघना न्हंयांक मेळ्ळें. देखून भागीरथी न्हंयेंत वर्साचे आठ म्हयने उदकाचें प्रमाण उण्या प्रमाणांत जावंक लागलें. देखून भागीरथी-पद्मा अशा गंगेच्या विभाजनपूर्व पात्रांत भारतान गंगेचेर फराक्का हो प्रकल्प बांदून गंगेचें चड प्रमाणांत उदक भागीरथी न्हंयेंत सोडपाची वेवस्था आंखली.

हे न्हंयेविशीं जायत्यो आख्यायिका सांगतात. कपील मुनीच्या शापान गोबर जाल्ल्या सगराच्या साठ हजार पुतांच्या उद्धाराखातीर अंशुमान आनी दिलीप ह्या इक्ष्वाकुवंशाच्या राजांनी स्वर्गांतल्यान गंगेक धर्तरेचेर हाडपाचे अयशस्वी यत्न केले. तेउपरांत भगीरथान हिमालयांत वचून खर तपश्चर्या करून गंगेक प्रसन्न करून घेतली. तेन्ना गंगेन ताका सांगलें, सर्गांतल्यान धर्तरेचेर पडपी आपलो प्रवाह धारण करपाक शंकराक प्रसन्न करून घे. तेन्ना भगीरथान शंकराची आराधना केली. शंकरान प्रसन्न जावन गंगेचो प्रवाह आपले जटेंत घेतलो आनी जटेचो केंस तोडून गंगेक वाट करून दिली. गंगेच्या ह्या प्रवाहाक अलकनंदा म्हण्टात. भगीरथान गंगेक सगरपुताचो गोबर पडिल्लो थंय व्हेली आनी तांचो उध्दार केलो. भगीरथाच्याच नांवावयल्यान ह्या प्रवाहाक भागीरथी हें नांव पडलें. भगीरथान तिका हाडली देखून तिका भगीरथाची धूव मानतात.

भागीरथीची आनीक एक कथा सांगतात ती अशी- गंगा सुरवेक उत्तरेक तिबेटाचे वटेन व्हांवताली. देखून उत्तर भारताक संकश्टांची बादा जाताली. तेन्ना भगीरथान आपल्या यत्नांनी गंगेचो मूळ उत्तरवाहिनी प्रवाह घुंवडावन तो दक्षिणवाहिनी केलो. देखून तिका भागीरथी अशें म्हणूंक लागले.

भागीरथीचें देगण बरेंच पिकाळ आशिल्ल्यान तातूंत वर्सांतल्यान तीन फावटीं भाताचें पीक काडटात. भागीरथीचे देगेर जंगीपूर, मुर्शिदाबाद, बेऱ्हमपूर, काटवा, नवद्वीप हीं मुखेल शारां आसात. उदका येरादारीखातीर आदल्या काळासावन हे न्हंयेची नामना आसा. हिंदू लोक हे न्हंयेक पवित्र मानतात. आजुनूय हे न्हंयेत न्हाता आसतना 'जय गंगे जय भागीरथी' अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**भाट :** राजस्थानांतली एक जात. मूळ संस्कृत शब्द 'भट्ट' ह्या उतरावयल्यान भाट हें उतर तयार जालें, अशें सांगतात. भाट उतराचो बारहट असो एक अपभ्रंश रूढ आसा. संशोधकांचे नदरेन वैदिक काळांतले गाथा गावपी, महाभारत काळांतले सूत आनी उपरांतच्या काळांतले मागध, बंदी, ब्रह्मराव हांचे वंशज म्हळयारूच सद्याचे भाट. कवी नांवाच्या एका ऋषीपसून तांची उत्पत्ती जाली अशें म्हण्टात. तांचे उत्पत्तीविशीं अशीय एक लोककथा आसा- शिव आनी पार्वती कैलासाचेर रावपी, पूण शिव सदांच समाधीमग्न आसतालो. देखून पार्वतीक वाज येतालो. तेन्ना शिवान तिका रिझोवपाखातीर आपल्या घामापसून एक मनीस तयार केलो. पूण तो मनीस सदांच शिवाचें स्तवन करून ताकाच प्रसन्न करूंक लागलो. तेखातीर पार्वतीक राग आयलो. तिणें शिवाक सांगून ताका भूंय लोकांत शेंवटिलो. तोच भाटांचो मूळ पुरूस.

हातांत ऊंच दांड्याचो भालो वा तरसाद, कमराक कट्यार, लांब खाड, लांब मिश्यांचे कल्ले, लांब झगो आनी फेटो असो भाटांचो भेस आसता. धनयाच्यो वंशावळी दवरप, तांची तुस्त करप हो तांचो मुखेल आनी पिढीजात वेवसाय. तांच्या खरें उलोवपाच्या गुणाक लागून राजेरजवाडे तांकां भियेवन आसताले. रजपुतांचो शेंकड्यांनी वर्सां आदींचो इतिहास तांच्या बाडांतल्यान आयजूय सुरक्षीत आसा. खंयूय आनी केन्नाय जीवदान करपाची तांची तयारी आसता. स्वता जीव दिवन वा जीव दिवपाचो धाक दाखोवन दुसऱ्यांक वायट करण्यांपसून वांचोवप हो तांचो स्वभाव अशें सांगतात. हालीं बरेचशे भाट काणयो सांगून आनी पदां म्हणून उपजिविका चलयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**भाटिया :** एक वेपारी जात. ह्या लोकांचो राबितो चड करून कच्छ, सौराष्ट्र, सिंध आनी मुंबय ह्या भागांनी आसा. ते खेरीज पंजाब, राजस्थान,

उत्तर प्रदेश आनी टेहरी विभागांतूय ह्या लोकांचो राबितो आसा.

भाटिया लोकांक भाटी, यादव, क्षत्रीय, यदुवंशी, कृष्णवंशी, वृष्णिवंशी, चंद्रवंशी आनी ठक्कर अशींय नांवां आसात. कनिंगहॅम हाच्या म्हणण्याप्रमाण भट म्हळयार योध्दा ह्या संस्कृत उतरावयल्यान भाटिया हें नांव आयलां.

पंजाबांतले लाहोर आनी मुलतान हे जिल्हे भाटियांचें मूळ ठिकाण. पयलीं भाटिया लोकांमदीं दसा, दिवानी, पंचविसा, सिंधी आनी त्रागडी अशे पोटभेट आशिल्ले. पूण सद्या कच्छी हालाई आनी सिंधी अशे दोन मुखेल भेद आनी ८४ कुळां आसात.

हे लोक ज्या प्रदेशांत रावतात थंयची भास ते उलयतात- कच्छाची भाटिया कच्छी, गुजरातांतली गुजराती आनी सिंधांतली भाटिया सिंधी.

भाटिया लोक शंकर, पार्वती, राम, सीता, हनुमान, कृष्ण, राधा ह्या देवांक भजतात. चडशे भाटिया लोक वल्लभ संप्रदायाचे वैश्णव आसून, ते बालकृष्णाक भजतात. कांय भाटिया लोकांनी आर्य समाज जाल्यार कांय जाणांनी ब्राह्मो समाजूय आपणायला.

न्हवऱ्या वटेनचे लोक व्हंकलेक मागणी घालतात. लग्नापयलीं साकरपुडो जाता आनी ताची नोंद जातीचे नोंद चोपडेंत जाता. साकरपुड्या उपरांत सात दीस व्हंकलेचे आवय-बापूय न्हवऱ्यागेर गोडशें धाडटात, आनी एकविसाव्या दिसा साकरपुडो जाता. लग्नाच्या आदल्या दिसा न्हवऱ्याकडल्यो बायलो व्हंकलेगेर वचून व्हंकलेक उंची वस्त्रां आनी वस्ती दिवन 'दूधलक्ष्मी' नांवाचो एक विधी करतात. उपरांत व्हंकल आपल्या घरा वता आनी आपल्या मांवाचेर, पानान सात खेपे दूद शिंपडायता. न्हवरो घोड्याचेर बसून व्हंकलेगेर वता. थंय दोगांकूय माटवांत सव्याचेर बसयतकच होम करतात. न्हवरो-व्हंकल उज्या भोंवतणीं चार प्रदक्षिणां घालून एकामेकांक गोडशें खावयतात. उपरांत तीं दोगांय न्हवऱ्याघरा येवन एकामेकांक तीळ दितात. ब्राह्मण ह्या लग्नांत पुरयतपण करता.

ह्या लोकांभितर भुरगें जल्मतकच सव्या दिसा सटयेवांगडा घोड्याचीय पुजा करतात. सुयेर चाळीस ते पंचेचाळीस दीस पाळटात.

हे लोक मडीं लासतात. बुडून मेल्ल्या मनशाची प्रतिमा करून लासतात. इकराव्या दिसा मृताक पींड दितात आनी तो न्हंयेंत उडयतात. बाराव्या दिसा श्राध्द करतात. सुतक बारा दीस पाळटात आनी तेराव्या दिसा सोयऱ्यांक-इश्टांक जेवण घालतात.

- कों. वि. सं. मं.

**भाण :** संस्कृत साहित्यांतल्या धा नाट्यप्रकारांतलो एक प्रकार. ह्या नाट्यप्रकारांत उलोवण्याचेर चड भर आशिल्ल्यान आनी एकाच पात्रान उक्ति-प्रत्युक्तींच्या रुपान तें नाट्य पळोवप्यांमेरेन पावोवपाचें आशिल्ल्यान ताका 'भाण' हें नांव दिलां. विट हो ताचो नायक आसता. तो स्वताच्या वा दुसऱ्यांच्या धाडशी कृत्यांचें वर्णन करता.

ह्या नाट्यप्रकारांत एक अंक वा दोन संधी आसतात. शृंगार आनी वीर हे भाणाचे दोन रस मानल्यात. माचयेर विट हें एकूच पात्र आशिल्ल्यान तो हेर काल्पनिक पात्रांकडेन उलयता. तीं पात्रां वयर मळबांत आसात अशें मानून विट तांचेकडेन उलयता. एकाच पात्राकडल्यान विंगड विंगड व्यक्ती, घडणुको वा प्रसंग उबे करपाखातीर विट हो समर्थ नट आसपाक जाय. कथन-वर्णन करतना योग्य आरोहावरोहन केल्लो अभिनय ह्या नाट्यप्रकारांत चड म्हत्वाचो आसता, तेचवांगडा आंगिक अभिनयाचीय गरज आसता.

ताच्या भाशणांत घडणुको, अवस्था, पात्रां हांचे निर्देश येतात. भाणांत सादारणपणान फांतोडेचें वर्णन, खंयच्याय ऋतूचें वर्णन तशेंच मेंढरू, कोंबे हांचें झूज, कुस्ती, जुगार, जादू हे विशय येतात. तातूंत पुराणीक ज्योतिशी आनी भागवत हांचीं फकाणांय केल्लीं आसतात. हातूंतलो शृंगार खूबदां अश्लील आसता. तेचखातीर भाण हो प्रकार ल्हव ल्हव लोकांच्या मनांतल्यान उणो जाला.

*पयलीं थळाव्या देवदेवतांच्या जात्रांच्या वेळार भाणांचे प्रयोग जाताले.*

'चतुर्भाणी' नांवाच्या ग्रंथांत चार भाणांचो संग्रह केला. तांचीं नांवां अशीं आसात- वररुचिकृत अभयाभिसारिका, शूद्रककृत पद्मप्राभृतक, ईश्वरदत्तकृत धूर्तविटसंवाद आनी श्यामिलककृत पादताडितक. ते भायर वामनभट्टाचो शृंगारभूषण, काशीपती कविराजाचो मुकुंदानंद, कांचीच्या वरदाचार्याचो वसंततिलक, रामचंद्र दीक्षिताचो शृंगारतिलक, केरळच्या युवराजाचो रससदन हे भाण नांवाजिल्ले आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**भात :** (मराठी : भात; हिंदी : चावल, धान; गुजराती : डांगर; कन्नड : अक्की; संस्कृत : शालि, तंडूल, व्रीही; इंग्लीश : पॅडी, राइस; लॅटीन : ओरिसा सटायव्हा; कूळ : ग्रॅमिनी).

तणाच्या कुळांतली ही वनसप्त ०.६ते १.९ मी. ऊंच वाडटा. पानां अशीर आसून तांची लांबाय ३० ते ५० सेंमी. रुंदाय १.२ ते २.५ सेंमी. आसता आनी तीं एकाआड एक आसतात. मुळां दोन तरांचीं आसतात. १) सेमीनल (Seminal) आनी २) लॅटरल (Lateral). रोंपाक कणस येता, कणसांत १०० ते ३०० भाताचे दाणे आसतात. दाण्याची लांबाय ५ ते १४ मिमी. आनी रुंदाय १.९ ते ३.७ मिमी. आसता. दाण्याक भायल्यान कल्ल आनी भितर तांदूळ आसता. तांदळाचो रंग धवो, तांबसो वा तपकिरी आसता.

भाताच्या उगमस्थानाविशीं आजूनमेरेन शास्त्रज्ञांचें एकमत ना. तरी

आग्नेय आशिया हें भाताचें उगमस्थान अशें मानतात. ओरिझा सटायवा ह्या प्रकारच्या भाताचें दक्षिण भारत हें उगमस्थान मानतात. हांगासावन चीन, इजिप्त, इराण ह्या देशांनी ह्या प्रकाराचो प्रसार जालो. इ. स. प. ३५०० वर्साच्या सुमाराक सावन भाताची लागवड करताले अशे पुरावे मेळटात. भारतीय वैदिक वाङमयांत (इ. स. प. २५००-५००) यज्ञाखातीर तांदळांचो वापर करताले असो उल्लेख मेळटा. 'निवरा' ह्या प्रकारच्या भाताचो वेद ग्रंथांनी उल्लेख आसा.

इंडोनेशिया, चीन, जपान, थायलँड, फिलीपिन्स, बांगला देश, मियानमार, ब्राझील, विएतनाम, जावा, इजिप्त, ऑस्ट्रेलिया, इटली, पुर्तुगाल, कोरिया, तायवान ह्या देशांनी भाताची व्हड प्रमाणांत लागवड जाता. भारतांतलो चडसो वाठार भाताचे लागवडीखाल आसा.




आ - दाण्याचो उबो छेद

अ - भात

अ) १ - मुळां, २ - आवरण, ३ - खोड, ४ - पान, ५ - कणस

आ) १ - फलावरण, २ - स्तर, ३ - पुश्क, ४ - गर्भ

भारत देशांत दर एका राज्यांत भाताची लागवड जाता. आंध्र प्रदेश, उत्तर प्रदेश, बिहार, मध्य प्रदेश, ओरिसा, आसाम, पंजाब, तमीळनाडू, महाराष्ट्र, कर्नाटक, केरळ ह्या राज्यांनी भाताची लागवड व्हड प्रमाणांत करप जाता. देशांत सुमार १७० लाख हॅक्टर जमीन भात पिकाखाल आसा. तिचेपसून सुमार ७५ दशलक्ष टन भाताचें पीक मेळटा. १९९१-९२ वर्साचे आंकडेवारीप्रमाण गोंयांत ५४,०७२ हॅक्टर सुवातींत भाताची लागवड करून १,३८,०००टन इतलें भाताचें उत्पन्न मेळटा.

ओरिझा सटायवा (इंडिका) आनी ओरिझा सटावया (जापोनिका) हे भाताचे दोन मुखेल प्रकार आसात. हालींच ओरिझा जवानिका ह्या प्रकाराकूय शास्त्रज्ञांनी मान्यताय दिल्या. भारतांत ओरिझा सटायव्हवा ह्या प्रकाराची लागवड जाता जाल्यार आफ्रिका खंडांत ओरिझा ग्लॅबरिमा ह्या प्रकाराच्या भाताची लागवड करतात.

१९६६ वर्सा पयलीं भारत देशांत तशेंच गोंयांत, भाताच्या थळाव्या जातींचो वापर करताले. गोंयांत करंगूट, आजगो, धवी पाटणी, भांगरसाळ, जिरेसाळ ह्या थळाव्या जातींचो वापर करताले. १९६६ वर्सा उपरांत भाताच्यो संकरीत जाती विकसीत केल्यो. ह्यो जाती थळावे जातींपरस चड उत्पन्न दितात. ह्या जातींचें पीक तयार जावपाक लागपी तेंपावयल्यान ह्या जातींचे तीन गट केल्यात. उण्या दिसांनी (११० दिसांपरस उण्यो) पिकपी जाती, मध्यम कालावधींत पिकपी (११५-१३५ दिसांनी) जाती आनी चड दिसांनी पिकपी जाती (१३५ दिसांपरस चड). भाताच्यो हजारांनी संकरीत जाती वापरांत आसात. गोंयांत वापरपाक योग्य अशो कांय म्हत्वाच्यो जाती आसात त्यो अशो- ज्योती, अन्नदा, अन्नपुर्णा, त्रिवेणी, रोहिणी, रत्ना, कावेरी, बाला. ह्यो उण्या दिसांनी पिकपी जाती आसात. जया, आय. आर- ८, सरजु ह्यो मध्यम दिसांनी पिकपी जाती आनी विक्रम, पंकज, फाल्गुना ह्यो चड दिसांनी पिकपी जाती आसात. बासुमती ही भाताची सुवासीक जात. पनवेल-१, पनवेल-२, सी. एस. आर-४, सी. एस. आर-१० ह्यो जाती खाजनांनी लायतात.

भाताच्या पिकाक उदकाची खूब गरज आसता. वातावरणांत चड आर्द्रता आसप ह्या पिकाक मानवता. उश्ण आनी दमट हवामान तशेंच २३°-३३° से. तापमानांत भाताची वाड बरी जाता. भाताची लागवड सर्द (Kharif) आनी वांयगण (Rabi) अशा दोन हंगामांनी करतात. गोंयांत भाताची लागवड तीन प्रकारच्या जमनींनी करतात.

**१) मरड जमीन :** ही जमीन थोडे उंचायेचेर आसता. सर्द हंगामांत हे जमनीचेर भाताची लागवड करतात.

**२) केर :** ही जमीन खोलगट आसता. सुपीक, मरड जमनीपरस हे जमनीचेर भाताचें चड उत्पन्न येता. पावसाच्या दिसांनी ही जमीन बुडटा. ताका लागून पावसाळयांत हे जमनीचेर भाताची लागवड करिनात.

**३) खाजन :** ही जमीन दर्याच्या खाऱ्या उदकांत चडशी बुडून उरता, तेखातीर मातयेंत खारसाण आसता. हे जमनींत, खारसाणींत तग मारपी जाती वापरच्यो पडटात.

भाताची लागवड सरळ बियो पेरून वा पयलीं रोंप काडून उपरांत रोंपांची पुनर्लागण करून करतात. रोवंचे पयलीं बियांचेर दोन तरांच्यो प्रक्रिया करतात. पयलीं ३% मिठाच्या उदकांत भाताचें बीं घालून वयर उफेता तें पोल वेगळें काडटात. दुसरे प्रक्रियेंत बियांक कॅप्टन, थीरम (१किलो बियांक २.५ ग्रॅम) लायतात.

**लागवडीच्यो पद्दती : १) बियो रोवन लागवड करप** - हे पद्दतींत आनीक दोन प्रकार आसात. अ) रोव काडून लागवड : हे पद्दतींत भात पयलीं उदकांत भिजत दवरून कोंब काडटात. कोंब आयिल्ल्या भाताक 'रोव' म्हण्टात. हो रोव उपरांत तास-आडास केल्ल्या शेतांत पेरतात

आनी वयल्यान गुटे मारतात. सर्द हंगामांत मरड जमनींत हे पद्दतीचो वापर करतात. ब) चोबो वा शेळ पद्दत : पावसाच्या दिसांनी ज्या शेतांनी उदक भरता, थंय पावस पडचे पयलीं, शेतांत आशिल्ले शेळीचो वापर करून, बारीक फोंडकुलां मारून ओळीन बीं रोयतात. शेतांत शेळ आशिल्ल्यान बीं किल्लून येता. शेळ वा त्या शेतांनी लेगीत चोबो पद्दतीचो उपेग करतात. हे पद्दतीक 'कुयण' म्हण्टात. कुयणांत सुके जमनींत बीं पेरतात. पावस पडटकच हें बीं किल्लून येता.

**२) रोंप लावप :** हे पद्दतीचो वापर केल्यार चड उत्पन्न मेळटा. पूण बरेच कश्ट घेवंचे पडटात. पयलीं बीं किल्लत घालून तर्वो काडटात. तर्वो काडपाच्यो दोन पद्दती आसात. अ) सुको तर्वो ब) वोलो तर्वो. सुको तर्वो काडपाखातीर एक मीटर रूंद आनी १५ सेंमी. उंचायेचे गादीवाफे तयार करतात. वाफ्याची लांबाय गरजेप्रमाण चड-उणी दवरतात. उपरांत वाफ्याचेर, ओळीन भाताचें बीं घालतात आनी उदक दितात. वोले पद्दतीन तर्वो काडपाखातीर कुणग्यांनी पयलीं भरपूर उदक दिवन चिखलणी करतात. उपरांत बीं पेरतात. एक हॅक्टर जमनीचेर रोंप लावपाखातीर १००० चौखण मीटर सुवातीचेर तर्वो काडचो पडटा. तर्वो सुमार २२-२८ दिसांचो जातकच रोंपांची लावणी करतात. दोन रोंपांमदीं १० सेंमी. आनी दोन ओळींमदीं २० सेंमी. अंतर दवरतात.

चोबो वा रोव पद्दतींत भाताचें हॅक्टराक ८०-१०० किलो बीं लागता आनी बीं लायल्यार ४०-५० किलो बीं लागता.

भाताची लागवड करचेपयलीं जमीन उबी आडवी नांगरतात. हाकाच तास-आडास म्हण्टात. कांयकडेन जमीन खणटात. पूण चडशें बैलांचें जोत वापरतात. ट्रॅक्टर तशेंच पावर टिलर ह्या मार्कांचो वापरूय खूबकडेन करतात. रोवंचे पयलीं, शेतांत हॅक्टरी २५ टन शेणसारें वा कंपोस्ट सारें घालतात. तशेंच रसायनीक साऱ्याचोय वापर करतात. भाताक हॅक्टरी १०० किलो नत्र, ५० किलो स्फुरद आनी ५० किलो पलाश इतक्या अन्नद्रव्याची गरज आसता. हातूंतलें अर्दो नत्र, सगळो स्फुरद आनी पलाश रोवपाच्या वा रोंप लावपाच्या वेळार दितात आनी अर्दो नत्र २० आनी ३५ दिसांनी सारको वांटून दितात. आंबसाणीच्यो जमनी सुदारपाखातीर चुनो तशेंच मसुरी फोस्फेटाचो वापर करतात.

पिकांत जी नडणी येता ती वेळच्या वेळार काडून उडयतात. हेखातीर सॅटर्न (Saturn), स्टॅम एफ-३४ ह्या तणनाशकाचो वापर करतात.

भाताच्या पिकाक भरपूर उदक लागता. सर्द हंगामांत ही गरज पावस भागयता. वांयगणी हंगामांत कुणगी उदकांत भरून दवरतात. कणशी भायर पडटकच ल्हव ल्हव उदक उणें करतात. कापणी करचे पयलीं १५ दीस उदक बंद करतात.

भाताचें पीक सुमार १००-१५० दिसांनी तयार जाता. तयार जावपाक लागपी दीस हे ते ते जातीचेर आदारून आसतात. कणस बागवलें वा कणसांतलो दाणो घट्ट जातकच भात कापणेक तयार जाता. तयार जाल्लें भात कापणी करिनासतना दवरल्यार दाणे झडटात. भाताचे कापणेक लुवणी म्हण्टात. लुवणी करपाखातीर विळयाचो वापर करतात. कांय लोक सुदारीत विळयाचोय वापर करतात. हालीं मशिनाचोय वापर जाता. लुवणी जातकच भाताच्यो पेणयो मळपाखातीर खळार हाडटात. मळणी पांयांनी, बडयांनी, बैलांनी, ट्रॅक्टरान तशेंच मळणी यंत्राचो वापर करुनूय करतात. मळणी-यंत्रां दोन तरांचीं आसतात. पांयांन चलोवपाचें आनी डिझेल वा विजेचेर चलपी. गोंयांत चडसो बैलांचो वापर करतात. २-४ बैल भाताच्या पेणयांवयल्यान भोंवडायतात. उपरांत तण आनी दाणे वेगळे जातात. दाण्यांनी थोडें पोल आसता. हें पोल वेगळें काडपाखातीर दाणे सुपांत घालून ताचें वारें करतात. उपरांत भात बरें वताक सुकोवन साकांनी भरून दवरतात.

भाताचें उत्पन्न भाताची जात, हंगाम आनी रोवपाचे पद्दतीचेर आसता. गोंयांत सर्द हंगामांत हॅक्टरी सरासरी २.२टन आनी वायंगण हंगामांत २.८ टन इतलें उत्पन्न मेळटा. बरे तरेन लागवड केल्यार भाताचें एक हॅक्टरापसून ४-५ टन उत्पन्न घेवपाक मेळटा. जाचेपसून १२,००० रुपया उत्पन्न मेळटा. तशेंच, २५ टन तण मेळटा. ताचे १५०० रुपया मेळटात. सुदारीत पद्दतीन लागवड करपाक हॅक्टराक सुमार ६००० रुपया खर्च येता. अशे तरेन एका हॅक्टरापसून सुमार ७५०० रुपया फायदो जाता.

भात कांडले उपरांत ताचे तांदूळ करतात. १०० किल भातापसून ६०-६५ किल तांदूळ, ३५-४० किल कुंडो मेळटा. भातापसून उकडे आनी सुरय अशे दोन तरांचे तांदूळ करपाक मेळटात. उकडे तांदूळ करपाक भात पयलीं उकडचें पडटा. उपरांत तें वताक सुकोवन ताचे गिरणीर तांदूळ करतात. भात उकडिनासतना गिरणीचेर तांदूळ केल्यार सुरय तांदूळ जातात. पयलींच्या काळांत मुसळ आनी वानाचो वापर करून भाताचे तांदूळ करताले. हालीं गांवागांवांनी गिरणी जाल्ल्यान लोक गिरणीचोच वापर करतात.

तांदळांत ७-८% प्रथिनां, २ % चरबी, ६६% कार्बोहायड्रेटस आसतात. तशेंच व्हिटामीन बी-१, बी-२, १७ तरांचीं ॲमिनो आम्लां, कॅल्शियम, स्फुरद, लोखण हीं खनिजां आसतात. संवसारांतल्या ७५% लोकांचें अन्न म्हळयार भात. तांदळांचें शीत आनी पेजूय करतात. गोंय धरून कोंकणांतल्या लोकांचो मुखेल अन्न आहार म्हणजे तांदळांचें शीत.

तांदळांच्या पिठाच्यो भाकऱ्यो, सान्नां, इडल्यो करतात. पीठ मातशें मोटें दळून ताचो सांजो करतात. सोजी, पायस, खीर, साकरभात, पुलाव, पोळे, अशे पदार्थ तांदळांपसून करतात. जपान, चीन ह्या देशांनी तांदळांचो सोरो काडटात.

भाताच्यो ल्हायो, फोव तशेंच चिरमुल्यो करतात. हिंदू धर्मांत चवथीक ल्हायांचो, दिवाळेक फोवांचो, तशेंच तुळशीलग्नाक चिरमुल्यांचो

वापर करतात. हिंदू धर्मांत पुजापाठ तशेंच लग्नांत तांदळांचो अक्षता म्हणून वापर करतात. होंट भरतनाय तांदळांचो वापर करतात.

भात कापले उपरांत जें तण उरता, तें गोरवांक, म्हशींक खावड म्हणून दितात. तशेंच, धिंगरी आनी पॅडी स्ट्रॉ हीं अळमी कृत्रिम रितीन तयार करपाक माध्यम म्हणून हें तण वापरतात. भाताचो कुंडो गोरवांक, म्हशींक, दुकरांक खावड म्हणून दितात. कुंड्याचें तेल कारखान्यांनी तशेंच खावपाकूय वापरतात. जळोव म्हणुनूय कुंड्याचो वापर करतात. कुंड्यापसून हाडबोर्ड तयार करतात.

भाताच्या रोंपाक खूब तरांच्यो किडी आनी रोगांचो त्रास जाता. तांतूंतल्यो मुखेल किडी अशो आसात-

**१) पानां गुठलावपी कीड (Leaf roller) :** ही कीड भाताचीं पानां गुठलायता आनी भितर रावून पानाचो पाचवो भाग खाता. ताका लागून पानां धवीं जातात. हे किडीची लागण जाल्यार शेताचेर २० मिली. नुवाक्रॉन हें वखद, १० लिटर उदकांत घालून फवारो मारतात.

**२) पानांच्यो विडयो करपी कीड (Case worm) :** ही कीड पानां कातरून ताच्यो विडयो करता आनी पानाचो पाचवो भाग खाता. हे किडीआड नुवान हें वखद १० मिली. घेवन १० लिटर उदकांत घालून शेताचेर मारतात. तशेंच शेतांत उदक आसल्यार भायर घालतात.

**३) पिली (Gall Midge) :** हे किडीची लागण जाल्यार रोंपाचे मदले शिवडेंतल्यान धवो दाणो भायर सरता. ह्या दाण्याक पिलो अशें म्हण्टात. ही कीड रोंपाच्या पोटरांत रावता. हे किडीची लागण जाल्यार, थायमेट हें वखद एका हॅक्टराक १०किग्रॅ. ह्या प्रमाणांत शेतांत साऱ्याभाशेन शिंपडायतात.

**४) लश्करी कीड (Army Worm) :** नांवाप्रमाण ही कीड पिकाचेर लश्कराभाशेन तुटून पडटा. ही कीड भाताचीं पानां कातरता. हे किडीआड ०.०५% मोनोक्रॉटॉफोस ह्या वखदाचो फवारो मारतात.

**५) तपकिरी टोळ (Brown Plant Hopper) :** ही कीड रोंपाच्या मुळाकडल्यान रोस पिता. ताका लागून रोंप सुकता आनी मरता. हे किडीआड ०.०५% मोनोक्रॉटॉफोस ह्या वखदाचो फवारो मारतात.

**६) घाणयारो मूस (Gandi Bug) :** ही कीड भाताचो दाणो, दुदाचे अवस्थेंत पावतकच रोस चोखता. ताका लागून गोटो सारको भरना. हे किडीची लागण जाल्यार बी एच. सी. १०% ह्या वखदाची भुकटी हॅक्टरी २५ किलो ह्या प्रमाणांत मारतात.

भाताचें 'चरमो' (Blast) ह्या रोगापसून बरेंच नुकसान जाता. ह्या रोगाची लागण जाल्यार भाताच्या पानांचेर काळसर तिबे दिसतात. हे तिबे उपरांत व्हड जावन एकामेकांत भरसतात. ताका लागून पानां करपल्लेवरी दिसतात. ह्या रोगाची लागण जाल्यार ०.१% कारबेण्डीझम वा किटाझीन ह्या वखदांचो वापर करतात.

करपो हो भाताचेर पडपी आनीक एक रोग. ह्या रोगाची लागण जाल्यार पानां कडांनी करपतात. उपरांत पुराय पान करपता. ह्या रोगाचेर खात्रीचो असो उपाय ना. हो रोग जावंचो न्हय म्हणून बीं पेरचे पयलीं बियांक स्ट्रॅप्टोसायक्लीन हें वखद चोळटात

- विश्राम गांवकार

## भातखंडे, पं. विष्णु नारायण :

(जल्म : १० ऑगस्ट १८६०, वाळकेश्वर, मुंबय; मरण : १९ सप्टेंबर १९३६, वाळकेश्वर, मुंबय).

हिंदुस्थानी संगिताचें सर्वांगीण संशोधन करून शिक्षणक्रमांत ताका खाशेली सुवात दिवपी एक म्हान संगीतशास्त्रकार आनी संगीतप्रसारक. संगीत हें आपलें राष्ट्रीय संस्कृतायेचें एक भोव मोलादीक आंग, हें वळखून ताणें हे कलेचो शास्त्रशुध्द अभ्यास कसो करूं येता, ताका श्रेश्ठ दर्जो कसो मेळूं येता आनी कलाकारांक उर्जितावस्थेक कशें व्हरूं येतात हेविशीं शास्त्रीय नदरेन यत्न केले.

ताचो मूळ गांव कोंकणांतलो नागाव (जिल्हो रायगड). ताचो बापूय नारायणराव मुंबयच्या एका सावकाराचे जमनीचो कारभार पळेतालो. ताकाय संगिताची गोडी आसून तो स्वरमंडळ वाजयतालो. ताका लागून विष्णु वा गजानन हाकाय ल्हानपणांतूच संगिताची गोडी लागली. आपलो अभ्यास सांबाळून तो संगिताचो अभ्यास करतालो. ल्हानपणांतूच तो मुरली आनी म्हाविद्यालयांत शिकतना सतार वाजोवपाक शिकलो. सुरवातेक गोपाळ गिरी हाचेकडेन आनी उपरांत कुड्डो वादक वल्लभदास दामुलजी हाचेकडेन ताणें सतार वाजोवपाचे धडे घेतले. इ.स. १८८० वर्सा एल्फिन्स्टन हायस्कुलांतल्यान मॅट्रिकेची परिक्षा पास जातकच इ.स. १८८५ वर्सा तो बी. ए. पास जालो. इ. स. १८८७ वर्सा एल्‌एल्. बी. ची परिक्षा पास जातकच कांय काळ ताणें वकिली केली. ताचेपयलीं तो इ. स. १८८४ वर्सा कांय पारशी संगीतमोगी लोकांनी चलयल्ल्या 'गायनोत्तेजक मंडळी' चो वांगडी जाल्लो. थंय ताका त्या काळांतल्या गायकांचें, वाजोवप्यांचें गायन, वादन आयकुपाची संद मेळळी.

ल्हानपणासावन संगिताकडेन ओड आशिल्ल्यान ताचें वकिलींत लक्ष लागना जालें. ताणें वकिली सोडली आनी 'गायनोत्तेजक मंडळी' हे संस्थेंत रावन संगिताच्या संशोधनाक सुरवात केली. थंय ताणें कितलींशींच वर्सां पगार घेना आसतना संगीत शिकयलें. विंगड विंगड व्हड कलाकारां कडल्यान परंपरीक धृपदां, ख्याल, होऱ्यो, तराणे, ठुमऱ्यो हांची म्हायती आनी चिजो एकठांय करपाक सुरवात केली. शास्त्रीय स्वरलिपी पद्दतीचो प्रचार नाशिल्ल्यान आनी उपपत्तींचें गायकांक ज्ञान नाशिल्ल्यान विष्णु परंपरीक चिजांनी बदल करतालो आनी नव्योय चिजो तयार करतालो. संगिताचो शास्त्रीय अभ्यास पद्दतशीर जावंचो हेखातीर ताणें संस्कृत,

मराठी, गुजराती आनी हिंदी ह्या भाशांतल्या संगिताविशीं मेळटा त्या साहित्याचो अभ्यास केलो. गायनोत्तेजक मंडळीच्या नेमान जावपी बसकांनी तो आपले संगिताविशींचे विचार मांडटालो. अशे तरेन हिंदुस्थानी संगिताचे परंपरेचें ताणें खूब गिन्यान मेळयलें. उपरांत ताका त्या शास्त्रांत बदल घडोवन हाडपाची गरज दिसूंक लागली. फकत भरताचें नाट्यशास्त्र वा संगीतरत्नाकर ह्या ग्रंथांचो अभ्यास करून हें काम भागपाचें न्हय. तेखातीर संगीतशास्त्रांत निपूण अशीं जीं घराणीं आशिल्लीं, तातूंतल्या नामनेच्या गायकांकडल्यान त्या त्या घराण्यांचीं खाशेलपणां समजून घेवपाची गरज आशिल्ली. विष्णुपंतान भारतभर भोंवडी करून, हिंदुस्थानी संगीत कलाकारांच्यो भेटी घेवन भोव कश्टान तांचेकडल्यान संगिताविशींची म्हायती एकठांय केली. संगितावयले दुर्मिळ ग्रंथ, हाताबरपां हांचो सोद घेवन, तातूंतल्या तत्त्व-विचारांची विस्कटावणी केली. म्हत्वाचीं हातबरपां नकल करून काडलीं. हिंदुस्थानी संगितांतली स्वरलिपि रचणूक, - रागविचार, तांचे आरोह-अवरोह, श्रुतिविचार थाटपद्दत, वादी-संवादी स्वर ह्या विशयांविशीं तात्त्वीक भासाभास आनी तेविशींच्यो उपपत्ती ताणें आपल्या ग्रंथांनी मांडल्यो. तशीच एक खाशेली स्वरलिपी पद्दत तयार केली. आशक अल्ली नांवाच्या एका गायक कलाकाराकडल्यान ताणें २५० ख्याल शिकून घेतले आनी ते स्वरलिपिंत तालांच्या चिन्नांसयत मांडले.

दक्षिण भारतांतल्या गायक कलाकारांक आनी संगीत शास्त्रज्ञांक मेळून थंयच्या संगीतशास्त्राच्या ग्रंथांचोय ताणें अभ्यास केलो. रामामात्य पंडिताचो स्वरमेलकलानिधी, तुळजेंद्राचो संगीतसारामृत आनी रागलक्षण हे ग्रंथ दक्षिणेंत प्रमाण मानतात. भातखंडे हाणें ह्या ग्रंथांच्यो नकलो करून घेतल्यो. बडोद्याचो महाराज सय्याजीराव गायकवाड हाणें आपली सरकारी संगीत पाठशाळा भातखंडेक १९१६ वर्सा नवे पद्दतीन चलोवपाक दिली. ग्वाल्हेरचो महाराज माधवराव शिंदे हाणें भातखंडेचे देखरेखीखाला 'माधव संगीत महाविद्यालयाची नव्यान स्थापणूक केली (१९१८). तशेंच ताणें १९२६ वर्सा लखनौक थंयच्या थळाव्या कार्यकर्त्यांच्या आदारान 'मॅरिस कॉलेज ऑफ हिंदुस्थानी म्युझिक' ची स्थापणूक केली. उपरांत 'भातखंडे संगीत म्हाविद्यालयां'त हे संस्थेचो आस्पाव केलो. तशेंच, ह्या संगीत विद्यालयाखातीर ताणें अभ्यासक्रम आंखून ते प्रमाण पुस्तकांय छापलीं. संगिताविशींची उकती भासाभास करून संगीतप्रसार जावंचो हे खातीर ताणें संगीत परिशदो घेतल्यो. बडोदे (१९१६), दिल्ली (१९१८), वाराणसी (१९१९) आनी लखनौ (१९२४ आनी १९२५) हांगा परिशदो भरपाक ताणें फुडाकार घेतलो. शास्त्रीय संगिताच्या प्रचाराखातीर 'लक्षणगीत' हे सारके ग्रंथ बरयले.

१९०८ ते १९३३ ह्या काळांत ताणें आपले ग्रंथ बरयले. तातूंतले कांय मुखेल ग्रंथ अशे आसात-

१) 'श्रीमल्लक्ष्यसंगीतम्' आनी 'अभिनव रागमञ्जरी' (संस्कृत), २) 'हिंदुस्थानी संगीतपध्दती' (मराठी), ३) 'हिंदुस्थानी संगीतपध्दती'- क्रमिक पुस्तकमालिका (मराठी), ४) 'अ शॉर्ट हिस्टॉरिकल सर्व्हे ऑफ द म्युझिक ऑफ अपर इंडिया' (इंग्लीश), ५) 'अ कंपॅरेटिव्ह स्टडी ऑफ सम ऑफ द लीडिंग म्युझिक सिस्टिम्स ऑफ द फिफ्टिन्थ, सिक्सटीन्थ, सॅव्हन्टीन्थ अँड एटीन्थ सँचुरीस (इंग्लीश), ६) हिंदुस्थानी म्युझिक (इंग्लीश), ७) लक्षणगीतसंग्रह, ८) गीतमालिका, ९) पारिजात प्रवेशिका (मराठी), १०) रागविबोधप्रवेशिका (मराठी).

तशेंच ताणें कांय एकठांय केल्ले ग्रंथूय उजवाडायल्यात ते अशे- १) रामामात्य हाचो 'स्वरमेलकलानिधी' (संस्कृत), २) पं. व्यंकटमखी हाचो 'चतुर्दण्डिप्रकाशिका' (संस्कृत), ३) 'रागलक्षणम्', ४) राजा तुळजेंद्र हाचो 'संगीतसारामृतोध्दार' (संस्कृत), ५) लोचन हाचें 'रागतरङ्गिणी' (संस्कृत), ६) पुंडरीक विठ्ठल हाचे 'सद्रागचन्द्रोदय', 'रागमञ्जरी', 'रागमाला', 'नर्तननिर्णय' (चारूय ग्रंथ संस्कृत), ७) हृदयकौतुक हाचे 'हृदयकौतुक' आनी 'हृदयप्रकाश' (संस्कृत), ८) पं. भावभट्ट हाचे 'अनूपसंगीतरत्नाकर', 'अनूपसंगीतविलास' आनी 'संगीतअनूपांकुश' (सगळे संस्कृत), ९) पं. श्रीनिवास हाचो 'संगीत रागतत्त्वविबोध' (संस्कृत), १०) श्रीकंठ हाचो 'संगीतकौमुदी' (संस्कृत), ११) पूर्ण कवि हाचो 'नादोदधि' (हिंदी), १२) चत्वारिंशच्छतरागनिरूपणम् (संस्कृत), १३) अष्टोत्तरशततालक्षणम् (संस्कृत), १४) पं. काशिनाथशास्त्री अप्पा तुलसी हाचो 'संगीतसुधाकर', 'संगीतरागकल्पद्रुमाङ्कुर', 'संगीतरागचन्द्रिका' (संस्कृत) आनी 'संगीतरागचन्द्रिकासार' (हिंदी).

हातूंतले कांय ग्रंथ ताणें टोपण नांवान बरयल्यात. देखीक - 'लक्ष्यसंगीत' ग्रंथाखातीर 'भरतपूर्वखंडनिवासी चतुर पंडित', 'हिंदुस्थानी संगीतपद्दती' खातीर 'पं. विष्णुशर्मा', चिजांखातीर 'चतुर' आनी 'हररंग' हीं नांवां घेतल्यांत. पोरन्या संस्कृत ग्रंथांच्या प्रकाशनाखातीर 'भारद्वाजशर्मा' हें नांव घेतलें.

- कों. वि. सं. मं.

**भाद्रपद :** हिंदू कालगणनेप्रमाण भाद्रपद हो चैत्रादी गणनेंतलो सवो म्हयनो. ह्या म्हयन्याचे पुनवेक वा फाटीं-फुडें पूर्वाभाद्रपदा नक्षत्र येता, देखून ताका भाद्रपद हें नांव पडलां. 'नभस्य' हें भाद्रपदाचें वैदिक नांव.

ह्या म्हयन्याचे शुध्द तयेक बायलो हरतालिका व्रत करतात. त्या व्रतांत पार्वतीची तिचे इश्टिणीसयत पुजा करून फकत फराळ घेवंचो पडटा. ह्या दिसा बायलो रांदनीचेर शिजयल्लें कसलेंच अन्न खायनात. हे तिथीक 'मधुश्रावणिका' अशेंय नांव आसा. शुध्द चवथीक वरदचवथ म्हणटात. ह्या दिसा गणपतीची मातयेची मूर्त हाडून पुजा करतात. पंचमीक ऋषिपंचम म्हणटात. सश्टीक सूर्यपुजन करचें आनी कार्तिकस्वामीचें दर्शन घेवंचें अशें सांगलां. सप्तमीक मुक्ताभरणव्रत करतात. अश्टमीक

दुर्वाश्टम म्हण्टात. त्या दिसा दुर्वेची पुजा करतात. ह्याच दिसा जेष्ठा देवीचीय पुजा करतात. वैश्णव देवस्थानांतल्यान ह्याच दिसा भागवतपुराणाच्या सप्ताक सुरवात जाता. एकादशीक परिवर्तिनी एकादस म्हण्टात. दुवादशीक वामनाची पुजा करतात. चतुर्दशीक अनंत व्रत करतात.

भाद्रपदाचे दुसरे पंद्रशेक पितृपक्ष म्हण्टात. ह्या पक्षांत बापायच्या मरणाचे तिथी दिसा सगळ्या पितरांखातीर महालयश्राध्द वाडटात. हे पंद्रशेंत चंद्र भरणी नक्षत्रांत आसता तेन्ना भरणीश्राध्द वाडटात. वद्य सश्ट ही चंद्रसश्ट आसून त्या दिसा चंद्राची पुजा आनी उपास करतात. वद्य नमीक आयानम म्हण्टात, त्या दिसा मेल्ल्या सवायशिणींचें श्राध्द करतात. तिरोदशीक पितृश्राध्द वाडटात आनी उमाशेक सर्वपित्री उमास म्हण्टात.

भाद्रपद म्हयन्यांत अगस्त्य नखेत्र दक्षिणेवटेन फांतोडेर मळबांत दिसता. जेन्ना सूर्य कन्या राशींत येता (सुमार १६ सप्टेंबर) त्या दिसाक कन्यासंक्रांत म्हण्टात.

जैन धर्मियांचें पयुर्षण पर्व ह्याच म्हयन्यांत येता. दिगंबर भाद्रपद शुध्द ५ ते १४ आनी श्वेतांबर श्रावण वद्य १२ ते भाद्रपद शुध्द ४ असो ह्या पर्वाचो काळ मानतात. आत्मशुध्दी करपाक हो काळ बरो आसता, असो जैनांचो समज आसा.

\- कों. वि. सं. मं.

## भानुदास : (जल्म : इ. स. १४४८; मरण : इ. स. १५१३).

महाराष्ट्रांतलो एक नामनेचो संत आनी कवी. हो एकनाथाचो पणजो. भानुदासाची मूज जातकच, एक दीस तो मस्ती करता म्हणून बापायन ताका तापयलो. हे गजालीचें भानुदासाक खूब वायट दिसलें. तो घरांतल्यान पळून गेलो आनी पैठणाभायर आशिल्ल्या एका मोडक्या देवळांत गेलो. ह्या देवळांत ताणें सात दीस सुर्याची उपासना केली. भानुदासाचे भक्तीन सूर्यदेव ताका प्रसन्न जालो. ताणें भानुदासाक दूद दिलें अशी एक आख्यायिका आसा.

उपरांत भानुदासाच्या आवय-बापायन ताचो सोद करून ताका घरा व्हेलो. कांय तेंपान ताचें लग्न जालें. तेन्ना भानुदासान लुगटाचो वेपार करून खूब पयसो जोडलो. इतली गिरेस्तकाय आसून लेगीत परमार्थावयल्यान ताचें चित्त मात्तूय हाललेंना. तो नेमान आषाढी-कार्तिकी एकादशीक पंढरपूराक वतालो. त्या वेळार विजयनगराक कृष्णराय नांवाचो राजा राज्य करतालो. एकदां हो राजा पंढरपूराक आयिल्ल्या वेळार ताका थंयची पांडुरंगाची मूर्त आवडली. ताणें ती मूर्त हंपीक व्हेली. वारीच्या वेळार वारकरी पंढरपूराक गेले, जाल्यार देवळांत मूर्त ना. तें पळोवन सगळ्यांक वायट दिसलें, सगळे कासावीस जाले. पांडुरंगाविशीं आशिल्लो लोकांचो मोग पळोवन भानुदासाकूय वायट दिसलें. भानुदास पंढरपूरासावन हंपीक गेलो. थंयसावन पांडुरंगाची मूर्त ताणें परतून पंढरपूराक हाडली. तेन्ना भानुदासाचेर सुळार वचपाचो प्रसंग आयलो. पूण पांडुरंगाचे कृपेन तो पयस जालो. भानुदासान ती मूर्त पंढरीक हाडली. ही एक म्हत्वाची घडणूक मानतात.

कृष्णराय राजान ज्या देवळांत ही मूर्त दवरली, त्या हंपींतल्या देवळाक विजय विठ्ठलाचें देवूळ अशें म्हण्टात. त्या देवळांत विठोबाची मूर्त ना.

भानुदासान कांय अभंगूय रचल्यात.

\- कों. वि. सं. मं.

## भाबड, रामकृष्ण काशिनाथ : (जल्म : ६ सप्टेंबर १९३५, ताकंबे, डिन्डोरी- महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें मॅट्रिकेमेरेन शिक्षण घेतलें. १९४५-४७ ह्या काळांत भारताचे राश्ट्रीय चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९५५च्यान तो गोंयचे सुटकेखातीर वावर करूंक लागलो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पुलिसांनी ताका धरून बंदखणींत घालो आनी उपरांत सोडलो. १९८८ वर्सा नासिकच्या जिल्हाधिकाऱ्यान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

\- कों. वि. सं. मं.

## भाभा अणूसंशोधन केंद्र : भारतांतल्या अणूउर्जा संशोधनाचो आद्य प्रणेतो, होमी जहांगीर भाभा हाच्या नांवान उबारिल्लें आनी संवसारीक नामना आशिल्लें भारतांतलें एक अणूसंशोधन केंद्र. भारतांतली चड तेंपाची विद्युत् उर्जेची गरज भागोवपाखातीर १९४८ त भारतीय अणूउर्जा आयोगाची स्थापना केली. देशांतल्या अणू उर्जेविशींच्या सगळ्या वावराची जापसालदारकी ह्या आयोगाचेर आशिल्ली. अणूउर्जेचो विकास आनी वापर हेविशींचे सगळे प्रश्न, अणूकेंद्रीय तंत्राची शेती, वैद्यक आनी उद्देगधंदे हांतूंतल्या वेगवेगळ्या अडचणींखातीर उपेग करप आदी गजालींचो ह्या आयोगाच्या वावरांत आस्पाव केला. भारत सरकारान १९५४ वर्सा स्थापन केल्ल्या स्वतंत्र अणूउर्जा खात्याकडेन अणूउर्जा कार्यावळ चालीक लावपाचें काम सोंपयिल्लें आसा. अणूउर्जेविशींचें सगळें संशोधन आनी उदरगतीचो वावर तुर्भे (मुंबय) हांगाच्या अणूसंशोधन केंद्रांत करतात. २० जानेवारी १९५७ ह्या दिसा ह्या केंद्राचो उक्तावण सुवाळो जालो. फुडें जानेवारी १९६७ वर्सा भाभाचे यादीक ह्या केंद्राचें नांव 'भाभा अणूसंशोधन केंद्र' अशें दवरलें. भारतांतलें हें सगळ्यांत व्हड आनी सगळ्या आर्विल्ल्या उपकरणांनी युक्त अशें केंद्र.

**अणूकेंद्रीय विक्रियक :** ह्या केंद्रांत वेगवेगळ्या कार्यकारी तत्त्वांचेर चलपी चार कार्यप्रवण अणूकेंद्रीय विक्रियक आसात, ते अशे :

**१) अप्सरा :** हो विक्रियक १९५६ वर्सा चालीक लागलो आनी ताची शक्ती उत्पादन क्षमताय एक मॅ. वॉ आसा. हाचो आराखडो आनी रचना भारतीय आसून हातूंत संपन्न युरेनियमाचो इंधन म्हणून आनी साद्या उदकाचो शीतक म्हणून उपेग करप जाता. ह्या प्रयोगीक विक्रियकाच्या आदारान किरणोत्सर्गी समस्थानिकांची निर्मिती आनी अणूकेंद्रीत विक्रयकांखातीर म्हत्वाचो आनी उपेगी असो भंजन विक्रियांचो अभ्यास करतात.

**२) सायरस :** हो विक्रियक १९६० त चालीक लागलो आनी ताची शक्ती उत्पादन क्षमताय ४० मॅ वॉ. आसून तो कॅनडाच्या तंत्रीक



सायरस आनी आर्-५ ह्या विक्रियकांचो देखाव

आदारान उबारला. हातूंत सैमीक तरेन मेळपी युरेनियमाचो इंधन म्हणून आनी जड उदकाचो मदायक (शीघ्र गती आशिल्ल्या न्युट्रॉनाचो वेग उणो करपी द्रव्य) म्हणून उपेग करतात. ह्या विक्रियकाचो उपेग किरणोत्सर्गी समस्थानिकांची निर्मिती आनी घन अवस्था भौतिकी, अणूकेंद्रीय भंजन भौतिकी आनी विक्रियक अभियांत्रिकी हाचेवयल्या प्रयोगीक संशोधनाखातीर करप जाता. शक्ति- उत्पादक विक्रियक चलोवपाचें आनी ताचेर देखभाल करपाचें प्रशिक्षण कर्मचाऱ्यांक दिवपाचे नदरेन हो विक्रियक म्हत्वाचो आसा.

**३) पुर्णिमा :** भंजन विक्रियकाखातीर द्रूतगती न्यूट्रॉनाचो उपेग करपी हो शुन्य शक्ती विधेयक १९७२ त चालीक लागलो. हातूंत इंधन म्हणून प्ल्युटोनियम वापरतात. हातूंत द्रूतगती विक्रियकाखातीर लागपी गुणनक्षम द्रव्याचें कार्य आनी कार्यक्षमताय तपासतात. देखीक, भारतांत व्हड प्रमाणांत उपलब्ध आशिल्ल्या युरेनियम (२३१) आनी थिरियम (२३२) ह्या किरणोत्सर्गी जनक द्रव्याचें विघटन करून ताचें भंजनक्षम अशा नव्या द्रव्यांत रुपांतर करप आदी विक्रियकांचो हातूंत प्रयोगावरवीं अभ्यास करतात.

**४) झर्लिना :** हो शुन्य-शक्ती प्रयोगीक विक्रियक १९६१ त चालीक लागलो. हातूंत सैमीक अवस्थेंत मेळपी युरेनियम इंधन म्हणून आनी जड उदक मंदायक म्हणून वापरतात. हो १०० वॉटांपरस उणे शक्तीच्या पांवड्याचेर काम करता. तातूंत शीतकाची येवजण करूंक ना. नव्या विक्रियक घटकांची आनी औश्णिक विक्रियकाविशींच्या नव्या संकल्पनांची तपासणी आनी विश्लेशण तशेंच स्फटिकांच्या जालक कंपनाचो अभ्यास हांचेखातीर ह्या विक्रियकाचो उपेग करतात.



झर्लिना शून्य-शक्ती विक्रियक

भारतांतले आनी संवसारांतले युरेनियम (२३३) आनी युरेनियम (२३५) ह्या भंजनक्षम द्रव्याचे सांठे उण्या प्रमाणांत आशिल्ल्यान फुडारांत ताचो उणाव जावपाची शक्यताय आसा. तशेंच, युरेनियम (२३८) वा थोरियम (२३२) हीं जनक आणवीय द्रव्यां चड प्रमाणांत आसून तांच्यें द्रूतगती विक्रेयकांत अणूकेंद्रीय विक्रियांतल्यान भंजनक्षम द्रव्यांत रुपांतर करूंक मेळटा. विक्रियकांत एका अणूचें भंजन जावन ताचो नाश जालो तरी ताका लागून नव्यान उत्पन्न जावपी भंजनक्षम अणूंची संख्या एकापरस चड आसली जाल्यार विक्रियांत जितलें इंधन नश्ट जाता ताचे परस चड इंधन निर्माण जाता. हाका लागून अशा विक्रियकाक प्रजनक विक्रियक अशें म्हण्टात. ह्या विक्रियकाच्या तंत्राचें गिन्यान मेळोवपाखातीर आनी ताचेर संशोधन करपाखातीर कल्पकमा (तमीळनाडू) क एक विक्रियक संशोधन केंद्र स्थापन केलां.

भाभा अणूसंशोधन केंद्रांत उत्तर ५ हो नवो विक्रियक बांदला. हातूंत इंधन घटक सदांपरस वेगळ्या प्रकारान तयार करतात. उर्जा उत्पादक विक्रियकांच्या तंत्रावयलें संशोधन आनी किरणोत्सर्गी समस्यानिकांची निर्मिती ह्या वावराखातीर ह्या प्रयोगीक विक्रियकाचो उपेग करतात. हाचेभायर हांगा वेगवेगळ्या वावराखातीर यंत्र संच उबारिल्लो आसा. १९५५ त बांदिल्ल्या थोरियम यंत्रसंचांत सहंत विरल मृत्तिके (माती) पसून शुध्द थोरियम नायट्रेट आनी युरेनियम फ्ल्युओरायड वेगळो करतात. विक्रियकांत वापरपाक योग्य अशे प्रतीचे शुध्द युरेनियम धातू आनी तिचेपसून इंधन घटक तयार करपाखातीर ह्या केंद्रांत प्रयोगीक संशोधन केल्लें. हातूंत १९५९ त ताका पयले खेपे यश मेळ्ळें. सायरस विक्रियकाखातीर लागपी ॲल्युमिनियमजडित युरेनियम इंधन घटक

हांगाच तयार केल्ले. उच्च उर्जा विक्रियकाखातीर लागपी इंधन घटकाचें शुध्दतायेचें प्रमाण आनिकूय चड आसचें पडटा. हांगा अशे तरेचें युरेनियम ल्हान गुळयाच्या रुपांत तयार करतात. ह्या सगळया निर्मिती तंत्राचो उपेग हैदराबादच्या अणूकेंद्रीत इंधन निर्मिती समुहांत करतात. कल्पकम राणा प्रतापसागर (राजस्थान) आनी नरोरा (उत्तर प्रदेश) हांगाच्या विक्रियकांक लागपी इंधनदंड हांगाच करतात. अमेरिकेकडल्यान तारापूर विक्रियकाखातीर मेळपी युरेनियम हेक्झोफ्ल्युओरायडापसून युरेनियम ऑक्सायडाचें इंधनदंड तयार करपाखातीर लागपी तंत्र ह्याच केंद्रांत तयार जालां.

**किरणोत्सर्गी समस्थानिक द्रव्यांचें उत्पादन आनी ताचो उपेग :** भाभा अणूसंशोधन केंद्रांत ३५० परस चड अशीं वेगवेगळ्या प्रकाराचीं किरणोत्सर्गी समस्थानीक द्रव्यां तयार केल्यांत. किरणोत्सर्गी द्रव्यापसून मेळपी किरणांवरवीं (देखीक गॅमा किरण) धान्यांतल्या जिवांचो नाश, नाशवंत खाद्यदार्थांचें परिक्षण (चड वेळ तिगोवपाची क्रिया), वैजकी शास्त्रांत लागपी वस्तूंवयल्या जंतूंचो नाश, शस्त्रक्रियेखातीर लागपी वेगवेगळ्या हत्यारांचें निर्जंतुकीकरण आदी जायत्यो प्रक्रिया करतात. किरणोत्सर्गी द्रव्याच्या आदारान कांय पिडांचें निदान वा तांचेर चिकित्सा करूंक मेळटा. कोबाल्ट (६०) हें किरणोत्सर्गी द्रव्य सगळ्या तरांच्या कर्करोगांचेर उपेगी पडटा. गॅमा किरण घालून धान्यां वा भाजी खूब तेंप साठोवन दवरूंक मेळटा. पूण अशे संस्करीत केल्ले खाद्यपदार्थ खावपाखातीर योग्य आसा काय कितें हाचेर संशोधन चालू आसा.

गंव तांदूळ ह्या धान्यांचें बियाणें, कडुणांचें बियाणें तेचपरी वखदी आनी सोबेच्यो वनस्पती हांचेर गॅमा आनी हेर प्रारण वा रसायन हांचो उपेग करून तातूंत उत्परिवर्तनाच्या आदारान अनुवंशीकताय हाडूं येता, अशे तरेचें संशोधन ह्या केंद्रांत केल्लें आसून, ताच्या आदारान भिकणां, ताग, कापूस, तांदूळ आदी पिकांचे जायते प्रकार तयार केल्यात.

किरणोत्सर्गी द्रव्याचो उपेग करून प्रकियांचें नियंत्रण करपी वा प्रक्रिया-नियंत्रण-प्रदर्शक प्रयुक्ती ह्या केंद्रान सोदून काडल्यात.

**भाभा अणू संशोधन केंद्रांतले वेगवेगळे संशोधन विभाग अशे :** अणूकेंद्रीय संशोधनाखातीर ह्या केंद्रांत तुर्भेचे प्रयोगशाळेंत ५.५Mev आनी ४००Kev उर्जेचे प्रोटॉन, ड्युटेरॉन आनी आल्फा कण निर्माण करपाखातीर व्हान द ग्राफ जनित्रां उपलब्ध आसात. जांच्या आदारान वेगवेगळ्या अणुकेंद्रीय विक्रियांचो अभ्यास करूंक मेळटा.

कलकत्ता हांगा भारतीय अभिकल्पाचो आनी बनावटीचो एक चल उर्जा सायक्लोटॉन उबारला. ह्या प्रयुक्तिच्या आदारान ६-६०Mev उर्जेचे प्रोटॉन, १२-६५Mev उर्जेचे ड्युटेरॉन आनी २५-१३०Mevउर्जेचे आल्फा कण मेळटात. अणु केंद्रीय भौतिकी, जन अवस्था भौतिकी, अणूकेंद्रीय रसायनशास्त्र प्रारणजन्य वायट परिणाम, पदार्थांची चांचणी, प्रारण जीवविज्ञान ह्या विशयावयल्या संशोधनाखातीर आनी विद्युत् भारीत कणांनी प्रवर्तीत करून किरणोत्सर्गी समस्थानिक तयार करपाखातीर ह्या सायक्लोट्रॉनाचो उपेग करतात. भा. अ. केंद्राच्या तंत्रीक विभागांत क्षेत्र आयन सुक्ष्मदर्शक, स्फटीक वृध्दीखातीर साधन सामग्री कर्तन आनी वितळजोडकामाखातीर (वॅल्डिंगखातीर) आयनद्रायू प्रज्योत, उच्च शक्तीच्या इलॅक्ट्रॉन शलाका भट्टयो, झिर्कोनियम, टँटलम ह्या सारक्या अणूकेंद्रीय अभियांत्रिकींत म्हत्वाच्या आशिल्ल्या द्रव्यांचेर प्रकिया करपी खास भट्टयो, पदार्थापसून परावर्तीत वा उत्सर्जीत जावपी अवरक्त किरणांक संवेदनशील अशी प्रतिमा परिवर्तक नलिका, प्रतिमावर्धक प्रयुक्ती, विडियोकॉन कॅमेरा नलिका, आदी म्हत्वाचीं अशीं उपकरणां विकसीत केलीं.

परासमापक आनी दोळयांचे शस्त्रक्रियेखातीर लागपी प्रकाश किलाटक हाचेखातीर वेगवेगळ्या प्रकारचे लेसर ह्या केंद्रान विकसीत केल्यात. तेचपरी नियोडिमियमयुक्त कंवचेच्या लेसराचे रचणुकेंत सुदारणा करून ताच्या आदारान आयनद्रायु निर्मिती आनी ताची तपासणी करपाचे प्रयोग ह्या केंद्रांत केल्यात.

गौरी बिदनूर (कर्नाटक) नगरांत भारतीय अणुबाँब केंद्राची भूंयकांपविज्ञान प्रयोगशाळा आसा. हातूंत भूयकांप वा भूंयगत आणवीय स्फोट हांच्या अभिज्ञाना खातीर २० भूंयकांप मापकांची एक माळ बसयल्ली आसा.

भारतीय अणुकेंद्राच्या श्रीनगरचे अणूकेंद्रीय संशोधन प्रयोगशाळेंत वातावरणीय, भू आनी खगोलीय भौतीकींत उच्च संशोधन करपाखातीर उपेगी अशो सोयी आसात. तिरुचिरापल्ली (त्रिचनापल्ली, तमीळनाडू) नगरांत भारतीय अणुकेंद्र आनी भारत हॅवी इलॅक्ट्रिकल्स हांच्या आदारान चुंबकीय द्रवगतिकी परिणामाचेर आदारीत अशी रीत वापरून औश्णिक उर्जेचें सरळ विजेंतं रुपांतर करपाखातीर संशोधन आनी प्रयोग जाल्यात.

उच्च निर्वाताचे निर्मितीखातीर भारतीय अणूकेंद्रांत संशोधन करून विकसीत केल्ले सामुग्रीचें वेपारी उत्पादन भौशीक मळवयले एके कंपनीवरवीं जाता. भारतीय अणूकेंद्राच्या रसायनशास्त्र विभागांत अणूकेंद्रीय आनी रेडिओ रसायनशास्त्र, विक्रियक रसायनशास्त्र, प्रारण रसायनशास्त्र आदी विशयांचेर संशोधन केलां. हातूंत थेरियम, युरेनियम आनी प्लुटोनियम ह्या अणूउर्जा कार्यक्रमांत म्हत्वाच्या आशिल्ल्या मूलद्रव्यांच्या रसायनीक आनी अणूकेंद्रीय गुणधर्मांचो अभ्यास चड करून करतात.

भाभा अणूसंशोधन केंद्राच्या धातूविज्ञान विभागांत धातूच्या शुध्दीकरणाखातीर सगळीं सुविकसीत उपकरणां उपलब्ध आसात. अणूउर्जा कार्यक्रमाखातीर उपेगी अशा झिर्कोनियम, हाफ्नियम, टँटॅलम, टिटॅनियम, बेरिलियम ह्या सारक्या धातूंचें निश्कर्षण करपाखातीर फावो अशा विक्रियांचो खास अभ्यास ह्या विभागांत करतात. जीव विज्ञान विभागांत सुक्ष्मजिवांतल्या प्रतिसंस्करण यंत्रणा आनी रसायनीक द्रव्यां तशेंच किरणीयन हांचो उपेग करून जिनांचो पुनःसंयोग आनी तांचें उत्परिवर्तन

हाचेर संशोधन जालें. कॅन्सराचे पिडेवयले चिकित्सेंत किरणोत्सर्गाचो उपेग चड परिणामकारक जावपाचे नदरेन रसायनाच्या आदारान ग्रस्त भाग प्रारणजन्य हानीक चड संवेदनशील करपाखातीर संशोधन करतात. जीवरसायनशास्त्रांत मारक आनी विकृतीवैज्ञानीक विकार, पर्यावरणांतल्या वेगवेगळया रसायनांक लागून जावपी वीखबादा, त्रुटिजन्य रोग आनी म्हातारपण हाकालागून जावपी चयापचयी बदल हांचेरूय संशोधन जाता. किटकांचें नियंत्रण करपाखातीर जैव नियंत्रण, नरांत वंध्यत्व प्रवर्तीत करप, लिंग होर्मोनां आनी सैमीक वनस्पतीजन्य द्रव्याचो उपेग हे सारक्यो पर्यायी पद्दती वापरपाविशीं अभ्यास ह्या केंद्रांत जाता. वखदी वनस्पतीपसून वखदांक उपेगी अशीं संयुगा वेगळीं काडप आनी ह्या संयुगांचे उत्पत्तीविशीं अभ्यास करप हे नदरेनूय हांगा काम चलता.

भाभा अणूसंशोधन केंद्राचो एक वांटो म्हणून १९६३ त एक किरणोत्सर्गी समस्थानिकाचें रोगनिदान आनी चिकित्सा हे नदरेन उपेग करपाखातीर प्रारण वैद्यक विभाग स्थापन केला. संवसारीक भलायकी संघटना आनी इंटरनॅशनल ॲटोमिक एनर्जी एजन्सी हांचें अणूकेंद्रीय वैद्यकाचें आग्नेय आशियांतलें प्रादेशीक संदर्भ केंद्र म्हणून हो विभाग काम करता.

वैजकी उत्पादनाचें किरणोत्सर्गी समस्थानिकांच्या आदारान निर्जंतुकीकरण करपाखातीर संयुक्त राश्ट्राच्या विकास कार्यक्रमाच्या आदारान तुर्भे हांगा एक यंत्रसंच (आयझोमेड-१५०MED) बांदला. हातूंत शस्त्रक्रियेंत वापरतले धागे आनी पट्टयो, अपंगूळ मनशाच्या शरिरांत बसोवपाचे भाग, कुटूंब येवजणे खातीर वापरपाचीं गर्भाशयांतलीं साधनां ह्या सारक्या वेगवेगळया वैजकी वस्तूंचे सवाय आनी परिणामकारक निर्जंतुकी- करण करप जाता. वखदांची निर्मिती करपी उद्देगाच्या आदारान हांगा दोळयांत घालपाचीं मलमां, प्रतिजैव (अँटिबायॉटिक) पिठो ह्या सारक्या द्रव्यांचें गामा प्रारणाच्या आदारान निर्जंतुकीकरण करपाविशीं संशोधन जाता.

अणूकेंद्रीय विक्रियांतल्या इंधनद्रव्याचें काम सोंपतकच जो भाग उरता तातूंतल्यान प्लुटोनियम, युरेनियम (२३९) आदी उपेगी द्रव्यां परतीं काडटात. तुर्भे हांगा भारतीय तंत्रज्ञानी अभिकल्पीत केल्लो यंत्रसंच १९६४ त चालीक लायलो. हातूंत खर किरणोत्सर्गी इंधन घटकांचेर प्रक्रिया केल्ल्यान तातुंतल्यो सगळयो क्रिया दूरवर्ती नियंत्रणान आनी स्वयंचलीत पद्दतीन करतात. किरणोत्सर्गापसून राखण मेळची देखून हो यंत्रसंच वण्टीन बांदून काडला. तारापूराकूय अशेच तरेचें परत संस्करण करून एक व्हड यंत्रसंच बांदला.

हांगा सौर ऊर्जेचो उपेग करून द्रवरूप अपशिश्टाचें बाश्प करपाखातीर भाभा अणूसंशोधन केंद्रान नवें तंत्र सोदून काडलां. अपशिश्ट द्रव्य नश्ट करपाच्या तंत्रार केंद्रांत व्हड प्रमाणांत संशोधन करतात. भाभा अणूसंशोधन केंद्रांतल्या भलायकी भौतिकी विभागाकडेन ह्या संदर्भांतल्या अणूकेंद्रीय विक्रियक आनी इंधन परत संस्करण यंत्रसंच ह्या दोगांयची सुवात निश्चीत करप, तांची निर्मिती आनी अभिकल्प ह्या सगळया गजालींविशीं निर्णय घेवपाचें काम सोंपयलां. प्रारणाक लागून मनशाचेर आनी ताच्या वाठाराचेर जावपी परिणामाचें स्वरूप जाणून घेवप, प्रारण उदभासनाखातीर राखणेचे नदरेन अनुज्ञेय अशो शिमो निश्चीत करप आनी प्रारण उद्‌भासनाचें अभिज्ञान मापन आनी नियंत्रण ही तिनूय कार्यां ह्या विभागाच्या आवाठांत येतात.

भाभा अणूसंशोधन केंद्रांत वेगवेगळया विभागांतलीं उपकरणां आनी यंत्रां हांची दुरुस्ती करपाक एक मध्यवर्ती कर्मशाळा आसा. थंय वेगवेगळया अभिकल्पाखातीर नवीं उपरकरणांय तयार करतात. केंद्रांत एक स्वतंत्र असो स्थापत्य अभियंत्रिकी विभाग आसून केंद्रांतल्या सगळया प्रकल्पाचेर देखरेख आनी नियंत्रण करपाचें काम ह्या विभागाकडेन आसता. ह्या केंद्राखातीर एक मध्यवर्ती ग्रंथालय आसा. हातूंत स लाखांवयर ग्रंथ आनी तंत्रीक अहवाल आसून संवसारांतल्या सुमार १,७०० मुखेल विज्ञानीक आनी तंत्रीक नेमाळयांचो हांगा संग्रह करप जाता. खंयच्याय तंत्रीक विशयावयले प्रदत्त हांगा उपलब्ध आसून तो भायले खंयचेय प्रयोगशाळेंत वा संस्थेक दिवपाची सोय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**भाभा, होमी जहांगीर :** (जल्म : ३० ऑक्टोबर १९०९, मुंबय; मरण : २४ जानेवारी १९६६, स्वित्झर्लंड).

भारतीय भौतिकीविज्ञ. अणुऊर्जेच्या शांततामय उपेगाचो पुरस्कर्तो. भारतांतल्या अणूसंशोधन आनी अंतराळ संशोधन कार्यावळीचो मुखेल शिल्पकार.

भाभाचो जल्म पारशी कुटुंबांत जालो. ताचें शिक्षण मुंबय कॅथेड्रल आनी जॉन कॉनन हायस्कुलांत आनी एल्फिन्स्टन कॉलेज तशेंच रॉयल इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्स हातूंत जालें. १९२७ वर्सा ताणें कॅब्रिजांतल्या गॉनव्हिले अँड कायस कॉलेजांत प्रवेश घेतलो. पूण घरच्यांचे इत्सेक मान दिवन इंजिनियरींग घेवन तो बी.



ए. पास जालो. उपरांत 'मॅकनिकल ट्रायपॉस' ही परिक्षा पास जालो आनी १९३४ वर्सा ताका कॅंब्रिज विद्यापिठाची पी. एच. डी. पदवी

मेळ्ळी. १९३२-३४ ह्या दोन वर्सांखातीर ताका गणिताची राऊस बॉल प्रवासी शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. ह्याच काळांत ताणें झुरिच हांगाच्या डब्लू. पाउली, उत्रेक्त (नॅदर्लंड्स)च्या एच. ए. क्रॅमर्स आनी रोमांतल्या एन्रीको फेर्मी ह्या संशोधकांवांगडा काम केलें. भाभा हाका सिध्दांतीक विज्ञानाची आनी खास करून गणिताची खूब आवड आशिल्ली. पी. ए. एम. डिरॅक ह्या नामनेच्या गणितीय भौतिकीविज्ञाकडेन ताणें गणिताचें शिक्षण घेतलें.

१९३३ वर्सा ताका आयझॅक न्युटन शिश्यवृत्ती फावो जाली आनी फुडें १९३६ वर्सा ताका १८५१ एक्सिबिशन शिश्यवृत्ती मेळ्ळी.

भाभाचें पयलें संशोधन इलॅक्ट्रॉन (Electron) आनी पॉझिट्रॉन (Positron) हांच्या परस्पर प्रकीर्णनाच्या (Scattering) काटच्छेदाचे (Transverse Section) गणनेविशीं आसून हें प्रकीर्णन भाभाच्या नांवान नामनेक पावलां. डब्लू. हायटलर हाचेवागडा भाभा हाणें संशोधन करून विश्वकिरणांत (Cosmic rays) जे द्वितियक इलॅक्ट्रॉन वर्षाव मेळटात. तांचें 'प्रपात प्रक्रिया' ह्या नांवान वळखतलें स्पश्टीकरण दिलें. हो सिध्दांत 'भाभा हायटलर सिध्दांत' ह्या नांवान नामनेक पावला. भाभान 'मेसॉन' (meson ) हें मूलगणाचें आस्तित्व वळखुपाचे नदरेन म्हत्वाचो वावर केला. ताणें केल्ल्या कार्याक सगळ्याक मान्यताय मेळ्ळी आनी १९४१ वर्सा ताची लंडनचे रॉयल सोसायटीचो वांगडी म्हणून वेंचणूक जाली.

१९३९ वर्सा भाभा भारतांत सुटयेंत आयिल्लो आसतना दुसरें म्हाझूज सुरू जालें, देखून तो भारतांतूच उरलो. १९४० वर्सा ताणें बेंगळूरचे 'इंडियन इन्स्टिट्युट ऑफ सायन्स' हे संस्थेंत विश्वकिरण संशोधन विभागाचें प्रभारी प्रपाठकपद आपणायलें. हो विभाग भाभाखातीर सर दोराबजी टाटा विश्वस्त निधींतल्यान तयार केल्लो. १९४२ वर्सा भाभा थंयच प्राध्यापक जालो. १९४५ वर्सा भाभान फुडाकार घेवन मुंबयंत 'टाटा इन्स्टिट्यूट ऑफ फंडामॅंटल रिसर्च' हे संस्थेची स्थापणूक केली. हे संस्थेचो तो संचालक आनी सैध्दांतिक भौतिकी विशयाचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९४८ वर्सा भारत सरकारच्या अणूऊर्जा आयोगाचो तो पयलो अध्यक्ष जालो. ऑगस्ट १९५४ त स्वतंत्र अणूऊर्जा खात्याची स्थापणूक जाली. ह्या खात्याचो भाभा सचीव आशिल्लो. १९५६ वर्सा ताच्या फुडारपणाखाल तुर्भेक (मुंबय) रशिया सोडून आशिया खंडांतलो पयलो अणूकेंद्रीय विक्रियक (Reactor) सुरू केलो.

१९५१ वर्सा भारतीय विज्ञान परिशदेचो अध्यक्ष म्हणून भाभाची वेंचणूक जाली. 'इंटरनॅशनल युनियन ऑफ प्युअर अंड अॅप्लायड फिझिक्स' हे संस्थेचो अध्यक्ष (१९६०-६३) आनी संयुक्त राश्ट्रां तशेंच इंटरनॅशनल अॅटॉमिक एनर्जी एजन्सी हांच्या शास्त्रीय सल्लागार समितीचो अध्यक्ष म्हणून ताणें काम केलां. तो भारत सरकाराच्या इलॅक्ट्रॉनिकी समितीचो अध्यक्ष तशेंच हेर कांय शास्त्रीय संस्थांचो वांगडी आशिल्लो. जुलय १९६५ सावन भाभा, भारत सरकाराच्या मंत्रीमंडळाक सल्लो दिवपी शास्त्रीय सल्लागार समितीचो अध्यक्ष आशिल्लो.

१९४२ वर्सा भाभाक ताच्या प्रबंधाखातीर कँब्रिज विद्यापिठाचें अॅडम्स इनाम फावो जालें. १९४८ वर्सा कँब्रिज फिलॉसॉफिकल सोसायटीचें हॉपकिन्स इनाम मेळ्ळें. १९५४ वर्सा भारत सरकारान पद्मभूषण दिवन ताचो भोवमान केलो. १९६१ वर्सा भाभाक मेघनाद शाह भांगरापदक मेळ्ळें. पटणा, लखनौ, बनारस, आग्रा, ऑस्ट्रेलिया, अलाहाबाद, कँब्रिज, लंडन, इटली, ह्या विद्यापिठांनी भाभाक डॉक्टर ऑफ सायन्स ही पदवी दिली. १९६४ वर्सा भाभाक मेल्चेट पुरस्कार फावो जालो.

भाभान 'पुंज सिध्दांत आनी विश्वकिरण' ह्या विशयांचेर खूब निबंध बरयल्यात. भाभा एक बरो संगीत जाणकार आशिल्लो, तसोच एक कसबी चित्रकारूय आशिल्लो. ताका वास्तुशिल्पाचें गिन्यान आशिल्लें.

स्विल्झर्लंडांत माँ ब्लाँ (मॉंट ब्लांक) ह्या ऊंच तेमकार जाल्ल्या भयंकर विमान अपघातांत भाभाक मरण आयलें. ताच्या उगडासाखातीर १२ जानेवारी १९६७ दिसा तुर्भेच्या अणूसंशोधन केंद्राक भारताची तेन्नाची प्रधानमंत्री इंदिरा गांधी हिच्या हातान 'भाभा अणूसंशोधन केंद्र' अशें नांव दिलें.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** भाभा अणूसंशोधन केंद्र.

**भामटे :** महाराष्ट्रांतली एक जात. ह्या लोकांची वस्ती चड करून वर्धा, नागपूर, गढचिरोली आनी चंद्रपूर जिल्ह्यांत तशेंच अस्तंतेकडेन पुणें, सातारा, धुळें, जळगांव आनी कोल्हापूर ह्या जिल्ह्यांनी आनी मराठवाड्यांत बीड, परभणी आनी उस्मानाबाद ह्या जिल्ह्यांत आसा.

स्वातंत्र्यापयलीं हे जातीक गुन्यांवकार जात म्हणून वळखताले, कारण चोरी करप, दरोडो घालून आपलो उदरनिर्वाह करप हो तांचो मुखेल वेवसाय आशिल्लो. पूण आतां ते शेती करतात.

हे लोक बळिश्ट आनी चपळ आसतात. रंगान काळे वा सावळे आसून बायलो देखण्यो आसतात. बरे कपडे वापरतात. बायलो नथ घालतात.

तांची एक सांकेतिक भाशा आसा. तेचप्रमाण कांय सांकेतिक खुणोय आसात. पूण चडशे भामटे लोक तेलुगू भाशा उलयतात. उजव्या हातापरस दाव्या हातार चड पाडून घेतात. तशेंच, तोंडाचेरूय पाडून घेतात. तांचो भेस मराठा वा ब्राह्मण बायलेभाशेन आसता. भामटे लोक गायचें आनी दुकराचें मांस खायनात. ते नुस्तें खातात आनी सोरो पियेतात.

ह्या लोकांक उचले, वडारी, कलवडर, तुडुगवडरू, कामाठी, घंटीचोर, बोल्सां कापपी, टकारी, पाथरवट, गाठचोर अशींय नांवां आसात.

हे जातीच्यो छत्री भामटा आनी भामटी अशो दोन मुखेल उपजाती

आसात. छत्री भामटा लोकांमदीं उत्तरेकडल्यो चालीरिती दिसतात. हे उपजातींत राजपूत उपजातींचीं नांवां आसात. देखीकः बडगूजर, चौहान, भट्टी, गहलोत, कछवा. तांचे शरीररचनेवयल्यान, रंगावयल्यान तशेंच हिंदी, मराठी आनी गुजराती उतरांचे भरसणेक लागून हे लोक रजपूत कुळापसून आयल्यात तशेंच गुजरातांतल्यान महाराष्ट्रांत स्थायीक जाल्यात अशें दिसता. मराठी प्रदेशांतल्या भामट्यांक 'भामटी' म्हण्टात. हे उपजातींतलीं मुखेल आडनांवां गुडेकर, बेलखाडे, कावठी अशीं आसात.

भामटा जातींत उच्च आनी मध्यम जातींतले हिंदू लेगीत आसात. भामटा जाल्ले लोक हेर जातींतल्या लोकांक लेगीत धर्मीक विधी करून आपले जातींत घेतात. पयलीं जातीची जमात करून सगळयांची परवानगी घेवंची पडटा. प्रवेश फी म्हणून १५ ते २५ रुपया दिवंचे पडटात. नव्या मनशाक न्हाणोवन नवे कपडे दितात. जाण्टो भामटो मनीस ताच्या तोंडांत हळद आनी साकरेची चिमटी घालतकच सगळे जेवतात. तेन्ना नवो मनीस त्या जाण्ट्या मनशाच्या उश्ट्या ताटांतूच जेवता. खंयचोय एक मनीस ताका आपली चली दिता आनी नवें आडनांव दिता. अशे तरेन नव्या भामट्याक आपले जातींत आस्पावन घेतात.

बहिरोबा, भवानी, खंडोबा, मरीआई, म्हसोबा, वेताळ आनी यल्लम्मा ह्या देवांक भामटे लोक भजतात. कांय सुवातांनी जनावरांक बळी दिवपाचीय चाल आसा. अक्कलकोटालागीं कोनाळ ह्या गांवांत तांची देवी आसा. थंय सगळे भामटे लोक यात्रेखातीर जमतात.

ह्या लोकांमदीं सगोत्र वा एकाच आडनांवाच्या लोकांभितर लग्नां करिनात. व्हंकलेच्या बापोलयाक ५० रुपया वधूमूल्य दिवपाची चाल आसा. तशेंच १०० ते २०० रुपया तिच्या आवय-बापायक दितात. हांचेभितर विधवेक लग्न जावपाक मेळटा. घटस्फोट दिवपाचीय चाल आसा. तांचे वस्तींत सगळयांत जाण्टो मनीस तांचो मुखेली आसता. ताका पाटील, तालमड, तालदरू वा कट्टिमनी म्हण्टात. तो जातींतलीं सगळीं झगडीं सोडयता.

हे लोक मडें पुरतात वा लासतात. उपरांत म्हाळ करून ज्ञातिजेवण घालतात.

- कों. वि. सं. मं.

**भार :** खंयच्याय दैवताचो वा तत्सम विभुतीचो आंगांत संचार जावप हाकाच भार येवप अशें म्हण्टात. भार आयिल्ल्या मनशाच्या तोंडांतल्यान ताच्या आंगांत संचारिल्लें दैवत उलयता, आशिर्वाद वा शाप दिता, तशेंच सुचोवणी करता, भूत-भविश सांगता अशें मानतात.

भार आयिल्लो मनीस भाराच्या काळांत सादारण मनशापरस वेगळो पूण आंगांत संचारिल्ल्या दैवताच्या स्वभावाक धरून वागिल्लो दिसता. बरेच कडेन ग्रामदेवतेच्या आवारांत पुजाऱ्याचेर भार येता आनी तो गावकारांची अवर्शणापसून राखण करता. कांयकडेन गरज पडटा तेन्ना थरोवन भार हाडपाची प्रथा आसा. थरावीक कुडीचेर थरावीक भार येता हें वंशपरंपरागत आसता. गोंयांत दसऱ्याक, शिगम्याक, होळयेक, धुळवडीक आनी तत्सम उत्सवांनी थारोवन भार काडपाची प्रथा आसा. ह्या भारांकडसून आशिर्वाद घेवन फुडली कार्यावळ चलोवप जाता.

अवसर आयिल्ली व्यक्ती कांयकडेन जळटे इंगळे हातांत घेवप, सळसळीत तेलांत वडे काडप, आपल्या हातान तकली खेचून घेवप अशे तरेचीं असामान्य कामां करता.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** गडे.

**भारत :** दक्षिण आशिया खंडांतलो एक देश. गोलार्धाचे उत्तरेक आशिल्लो हो देश, विषुववृत्ताचे उत्तरेक सुमार ८°४' ते ३७°६' अक्षांश आनी ६८°७' ते ९७°२५' उदेंत रेखांश असो पातळिल्लो आसा. क्षेत्रफळ ३२,८७,२६३ चौ. किमी. देशाची उत्तर-दक्षिण लांबाय सु. ३,२१४ किमी. आनी उदेंत - अस्तंत रुंदाय सु. २,९३३ किमी. आसा. भारताची भूंयशीम १५,२०० किमी. आसून वट्ट दर्यादेग सुमार ७५,१६६किमी. (अंदमान-निकोबार द्वीपसमूह आनी लक्षद्वीप जुंवो मेळून) आसा. हो देश उत्तरेक हिमान भरिल्ल्या हिमालय पर्वतांसावन दक्षिणेक कन्याकुमारीमेरेन आनी अस्तंतेक गुजरातसावन उदेंतेक अरुणाचल मेरेन विस्तारिल्लो आसा. उत्तरेक हिमालय पर्वतांनी आनी हेर दिकांनी अरबी दर्या, हिंदी म्हासागर तशेंच बंगालची खाडी ह्या दर्यांनी भारताक आशिया खंडासावन वेगळो केला. हो देश उत्तर आनी दक्षिणेक अशीर आसून मध्य भागर रूंद आसा. भारताचे वायव्येक अफगाणिस्तान आनी पाकिस्तान; उत्तरेक चीन, नेपाळ आनी भूतान; उदेंतेक ब्रम्हदेश (मियानमार) आनी बांगला देश आनी दक्षिणेक श्रीलंका हे देश आसात. तशेंच देशाचे उदेंतेक बंगालचो उपसागर, दक्षिणेक हिंदी म्हासागर आनी अस्तंतेक अरबी दर्या आसा.

भारत हो सगळयांत पोरनी आनी गिरेस्त संस्कृताय आशिल्लो देश. १५ ऑगस्ट १९४७ ह्या दिसा देशाची भारत-पाकिस्तान अशी फाळणी जाली, तो मेरेन ह्या देशाक हिंदुस्थान अशें म्हण्टाले. सद्या भारत देश शेतवड मळार स्वयंपूर्ण आसून उद्येगीक मळार भारताचो संवसारांत धावो आंकडो लागता. भारताची लोकसंख्या ८४,३९,३०,८६१ (१९९१) आसून, लोकसंख्येचे बाबतींत चीन देशासकल, भारताचो दुसरो आंकडो लागता तर क्षेत्रफळाचे बाबतींत रशिया, ब्राझील, कॅनडा, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, ऑस्ट्रेलिया आनी चीनासकल सातवो आंकडो लागता. वाघ (Royal Bengal Tiger) हो भारताचो राश्ट्रीय प्राणी जाल्यार, मोर हें राश्ट्रीय सवणें आनी कमळ हें राश्ट्रीय फूल आसा.

**नामकरण :** आदीम काळांत हिंदुस्थानाक भारतवर्ष अशें म्हण्टाले हें आर्यपुराण प्रथेवरवीं कळटा. वर्ष म्हळ्यार खंडाचो एक वांटो. ह्या नांवा खेरीज भारत देशाक अजनाभवर्ष, हैमवतवर्ष, कार्मुकसंस्थान, कूर्मसंस्थान अशींय पुराणीक नांवां आशिल्लीं. अजनाभवर्षाचो अर्थ असो सांगला- विष्णु देवाच्या बोंबलेसावन वयर आयिल्ल्या कमळाचेर हो देश थीर आसा आनी ब्रह्मदेवान ह्या कमळांत घर करून पयलीं ज्या लोकांक निर्माण केल्ले तेच लोक म्हळ्यार अजनाभ. वायुपुराणांत ह्या देशाचो हैमवतवर्ष असो उल्लेख केला. हैमवतवर्ष म्हळ्यार हिमपर्वतांनी वेगळो केल्लो एक खंडाचो वांटो. कार्मकसंस्थान म्हळ्यार धनुश्यासारको आकार आशिल्लें संस्थान. भारताची आदली भुगोलीक स्थिती पळयल्यार बाण लावन जेन्ना धनुश्य ओडटकच आकार जाता तशी आशिल्ली. कूर्म म्हळ्यार कासव आनी ह्या देशरुपी कासवाचें तोंड उदेंतेक आसून हेर भागांची तुळा कासवाकडेन करून ताका कासवाचें रूप दिवपाचो यत्न केला (मार्कंडेय पुराण). हाका लागून ह्या देशाक कूर्मसंस्थान अशें म्हळां. उपरांत पुराणांतलीं चडशीं नांवां फाटी पडून भारत वा भारतवर्ष हीं नांवां घोळणुकेंत उरलीं.

ऋग्वेदांत वर्णन केल्ल्याप्रमाण भरत नांवाचो मानववंश वा भरत नांवाचो ऋषभदेवाचो पूत हाचे वयल्यान तशेंच दुश्यंत-शकुंतला हांचो चलो भरत ह्या प्रदेशाचो सम्राट आशिल्लो म्हूण ह्या देशाक भारत नांव पडलें आसुये. ऋषभ हाका शंभर चले आशिल्ले. उपरांत ऋषभान आपल्या व्हड चल्याक म्हळ्यार भरत हाका हैमवत नांवाचें दक्षिणवर्ष दिवन ताचो राज्याभिशेक केलो. उपरांत हैमवतवर्ष भरताच्या नांवान प्रसिद्द जावन हाका भारत नांव मेळळें अशें सांगतात. पूण दुश्यंत-शंकुतला हांचो चलो भरत, हाचेवयल्यान ह्या देशाक 'भारत' हें नांव मेळळें अशें महाभारतांत वर्णन केलां. डॉ. वासुदेवशरण अग्रवाल हाणें 'भारत' नांवाविशीं दोन व्युत्पत्ती सांगल्यात. ऋग्वेद काळांत आर्य लोकांची भरत ह्या नांवाची एक पराक्रमी शाखा आशिल्ली. तांणी बिआस आनी सतलज ह्यो न्हंयो हुंपून ज्या प्रदेशांत आपलो राबितो केल्लो, त्या प्रदेशाक उपरांत 'भरत जनपद' अशें म्हणपाक लागले. अग्रवाल हाचे दुसरे व्युत्पत्ती प्रमाण ऋग्वेद काळांत भरतजनांनी हे भुंयेचेर यज्ञ सगळयांत पयलीं पेटयलो म्हूण ह्या देशाक भारत वा यज्ञाग्नीला भारत अशें म्हण्टाले.

बौध्द ग्रंथांत कांयकडेन भारताक जंबुद्वीप अशें म्हळां. पूण पुराणांतल्या उल्लेखांवरवीं भारत हो जंबुद्विपाचो एक वांटो आसून तो णव खंडांत विभागिल्लो. ही विभागणी गुप्तकाळांत जाल्ली आसूये. भारताची, भारत-पाकिस्तान अशी फाळणी जांवचे पयली ह्या प्रदेशाक हिंदुस्थान अशें म्हण्टाले. हें नांव सिंधु न्हंयेवयल्यान मेळळें. इराणी लोक 'स' चो उच्चार 'ह' असो करताले. अशे रितीन सिंधु न्हंयेचे पलतडीं रावपी लोकांक ते हिंदू म्हण्टाले. पेहलवी भाशेंत एका शिलालेखांत भारतवर्षाचो हिंदू असो उल्लेख केला. ख्रिस्तापयलीं चवथ्या आनी पांचव्या शेंकड्यांत ग्रीक भूगोलतज्ञांनी सिंधु-हिंदू नांवावयल्यान भारताक 'इंडोस' हें नांव दिलें. वसाहतीच्या काळांत इंडोस नांवावयल्यानूच भारताक इंडिका आनी इंडिया हीं नांवां मेळळीं. प्राचीन चिनी साहित्यांत भारतांचो 'चिन्तू' (देवांचो देश) असो उल्लेख केला. मुसलमानांच्यो घुरयो आयल्याउपरांत तांणी भारताक हिंदुस्थान अशें नांव दिलें. पूण स्वातंत्र्याउपरांत देशान 'भारत' तशेंच 'इंडिया' हीं नांवां आपणायलीं.

**राश्ट्रीय चिन्न :** सारनाथ हांगाच्या अशोकस्तंभावयलें सिंहशीर्ष हें भारताचें राश्ट्रीय चिन्न आसा. ह्या राश्ट्रीय चिन्नांतले फकत तीन शींव दिश्टी पडटात. सिंहशीर्षांतलो चवथो शींव नदरेक पडना. ह्या राश्ट्रीय चिन्नासकयल 'सत्यमेव जयते' हीं मुंडक-उपनिषदांतलीं उतरां देवनागरी लिपींत काडल्यांत. ह्या चिन्नासकयल मदीं चक्र आसून ह्या चक्राचे उजवे वटेन पाडो आनी दावे वटेन घोडो हांच्यो शिल्पाकृती आसात. हें राश्ट्रीय चिन्न २५ जानेवारी १९५० ह्या दिसा आपणायलें.



**राश्ट्रध्वज :** सिस्टर निवेदीता हिणें १९०६ त घडयल्लो ध्वज हो हिंदुस्थानाचो सगळयांत पयलींचो ध्वज आसा. ह्या ध्वजाचेर वज्राचे (Thunda bolt) चिन्न आनी 'वन्दे मातरम्' हीं उतरां आशिल्लीं. उपरांत १९३१ त कॉंग्रेस कमिटीन हिंदुस्थाना खातीर केसरी, धवो आनी पाचव्या रंगाचो ध्वज आपणायलो. ह्या ध्वजाचेर तांणी चरख्याचें चित्र पितरायल्लें. २२ जुलय १९४७ दिसा संविधान समितीन आपणायल्लो ध्वज हो भारताचो राश्ट्रध्वज आसा. भारताचो राश्ट्रध्वज हो तिरंगी आसून ताचो वयलो पटो केंसरी, मदलो धवो आनी सकयलो पाचव्या रंगाचो आसा. मदल्या धव्या पट्याचेर निळ्या रंगाचें २४ आडयो आशिल्लें चक्र आसा.



**राश्ट्रगीत :** रवींद्रनाथ टागोर हाणें रचिल्लें 'जनगणमन' हें गीत, २४ जानेवारी १९५० दिसा भारतीय संविधान समितीन 'राश्ट्रगीत' म्हूण मानून घेतलें. 'जनगणमन' हें मूळ गीत पांच कडव्यांचें आसून, ताचें पयलें कडवें हें राश्ट्रगीत म्हूण मानतात. स्वातंत्र्य चववळीवेळार इतिहासीक नामना जोडिल्लें बंकिमचंद्र चटर्जी हाच्या 'वंदे मातरम्' ह्या गीताकूय जनगणमन गीता इतलोच राश्ट्रगीत म्हूण मान आसा, अशें भारताचो पयलो राश्ट्रपती डॉ. राजेंद्र प्रसाद हाणें जाहीर केल्लें.

**राश्ट्रभासः** देवनागरी हिंदी ही भारतीय संघराज्याची राश्ट्रभास आसा. २६ नोव्हेंबर १९४९ दिसा भारतीय संविधानान, २५ जानेवारी १९६५ मेरेन इंग्लीश भाशेचो राश्ट्रभास म्हूण वापर जातलो आनी

उपरांत हिंदी भाशेचोच वापर जातलो अशें जाहिर केल्लें. पूण दक्षिण भारतांतल्या कांय राज्यांनी हिंदी भाशेक राज्य भास म्हूण विरोध केल्लो. हाका लागून राश्ट्रभास अधिनेम सुदारून हिंदी वांगडाच इंग्लीश भाशेचोय राश्ट्रभास म्हूण वापर जातलो अशें जाहीर केलें. १९७६ त ह्या अधिनेमांत सुदारणा करून, राश्ट्रभाशेचें नवें नेमपत्र तयार केलें. ह्या नेमपत्राप्रमाण उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश, हिमाचल प्रदेश, बिहार, राजस्थान, हरियाणा आनी दिल्ली हांचेलागी केंद्र सरकार हिंदींतल्यान पत्रवेव्हार करतलो. पंजाब, गुजरात, महाराष्ट्र, चंदीगड, अंदमान-निकोबार जुंवे हांचेकडेन हिंदी आनी इंग्लिशींतल्यान तर उरिल्ल्या राज्यांकडेन केंद्र सरकार फकत इंग्लिशींतल्यान पत्रवेव्हार करतलो अशें जाहीर केल्लें.

**राजकीय विभाग :** शासकीय नदरेन भारताचीं २५ घटक राज्यां आनी ७ केंद्रशासित प्रदेश आसात. अरुणाचल प्रदेश, अस्तंत बंगाल, आंध्र प्रदेश, आसाम, उत्तर प्रदेश, ओरिसा, कर्नाटक, केरळ, गुजरात, गोंय, जम्मू आनी काश्मीर, तमिळनाडू, त्रिपुरा, नागालँड, पंजाब, बिहार, मणिपूर, मध्य प्रदेश, महाराष्ट्र, मिझोराम, मेघालय, राजस्थान, सिक्कीम, हरयाणा, हिमाचल प्रदेश, हीं २५ घटक राज्यां आनी अंदमान-निकोबार जुंवे, चंदीगड, दादरा-नगरहवेली, दमण-दिव, दिल्ली, लक्षद्वीप, पाँडीचेरी हे सात केंद्रशासित प्रदेश आसात. क्षेत्रफळाचे नदरेन मध्य प्रदेश हें सगळयांत व्हड घटक राज्य आनी गोंय हें सगळयांत ल्हान घटक राज्य आसा.

**भारताची लोकसंख्या १९९१**

| भारत, घटक राज्य आनी केंद्रशासित प्रदेश | लोक | दादले | बायलो |
|---|---|---|---|
| **भारत** | ८४३,३०२,६८८ | ४३९,२३०,४८६ | ४०७,०७२,२३० |
| **घटक राज्यां** | | | |
| अरुणाचल प्रदेश | ८३४,५५८ | ४६५,००४ | ३९९,५५४ |
| अस्तंतबंगाल | ६८,००७,९६५ | ३५,५१०,६३३ | ३२,५६७,३३२ |
| आंध्र प्रदेश | ६६,५०८,००८ | ३३,७२४,५८१ | ३२,७८३,४२७ |
| आसाम | २२,४१४,३२२ | ११,६५७,९८९ | १०,७५६,३३३ |
| उत्तर प्रदेश | १३९,११२,२८६ | ७४,०३६,९५७ | ६५,०७५,३३० |
| ओरिसा | ३१,६५९,७३७ | १६,०६४,१४६ | १५,५९५,५९० |
| कर्नाटक | ४४,९७७,२०१ | २२,९५१,९१७ | २२,०२५,२८४ |
| केरळ | २९,०९८,५१८ | १४,२८८,९९५ | १४,८०९,५२३ |
| गुजरात | ४१,३०९,५८२ | २१,३५५,२०९ | १९,९५४,३७३ |
| गोंय | १,१६९,७९३ | ५९४,७९० | ५७५,००३ |
| जम्मू आनी काश्मीर | ७,७१८,७०० | ४,०१४,१०० | ३,७०४,६०० |
| तमिळनाडू | ५५,८५८,९४६ | २८,२९८,९७५ | २७,५५९,९७१ |
| त्रिपूर | २,७५७,२०५ | १,४१७,९३० | १,३३९,२७५ |
| नागालँड | १,२०९,५४६ | ६४१,२८२ | ५६८,२६४ |
| पंजाब | २०,२८१,९६९ | १०,७७८,०३४ | ९,५०३,९३५ |
| बिहार | ८६,३७४,४६५ | ४५,२०२,०९१ | ४१,१७२,३७४ |
| मणिपूर | १,८३७,१४९ | ९३८,३५९ | ८९८,७९० |
| मध्य प्रदेश | ६६,१८१,१७० | ३४,२६७,२९३ | ३१,९१३,८७७ |
| महाराष्ट्र | ७८,९३७,१८७ | ४०,८२५,६१८ | ३८,१११,५६९ |
| मिझोराम | ६८९,७५६ | ३५८,९७८ | ३३०,७७८ |
| मेघालय | १,७७४,७७८ | ९०७,६८७ | ८६७,०९१ |
| राजस्थान | ४४,००५,९९० | २३,०४२,७८० | २०,९६३,२१० |
| सिक्किम | ४०६,४५७ | २१६,४२७ | १९०,०३० |
| हरियाणा | १६,४६३,६४८ | ८,८२७,४७४ | ७,६३६,१७४ |
| हिमाचल प्रदेश | ५,१७०,८७७ | २,६१७,४६७ | २,५५३,४१० |
| **केंद्रशासित प्रदेश** | | | |
| अंदमान निकोबार | २८०,६६१ | १५४,३७९ | १२६,२९३ |
| चंदीगड | ६४२,०१५ | ३५८,६१४ | २८३,४०१ |
| दमण-दीव | १०१,५८६ | ५१,५९५ | ४९,९९१ |
| दादरा-नगरहवेली | १३८,४७७ | ७०,९५३ | ६७,५२४ |
| दिल्ली | ९,४२०,६४४ | ५,१५५,५१२ | ४,२६५,१३२ |
| पाँडिचेरी | ८०७,७६८ | ४०८,०८१ | ३९९,७०४ |
| लक्षद्वीप | ५१,७०७ | २६,७१८ | २५,०८९ |

**भूंयवर्णन :** देशाचो व्हड आकार, मानसून हवामान, मोनजात आनी वनस्पतीचे वेगवेगळे प्रकार आनी हांगा रावपी वेगवेगळया धर्मांचे लोक, हांकां लागून भारताक उपखंड अशी उपमा दिल्या. उत्तरेक हिमान भरिल्लीं ऊंच ऊंच तेमकां आनी दक्षिणेकडेन हिंदी म्हासागरांत रिगिल्लो भारतीय द्वीपकल्प हांणी भारताक मुळाव्या खंडासावन वेगळो दवरला. हाका लागून भूगोलीक नदरेन भातीय उपखंडाक लाबिल्लें खाशेलें वेगळेंपण नदरेंत भरता.

भूंयचरणुकेचे नदरेन, भारताचे सैमीक रितीन चार वांटे जातात. उत्तरेक आशिल्लो पर्वतांचो प्रदेश, उदेंत-अस्तंत दर्यादेगांनी आशिल्लो उथळ प्रदेश, गंगा-सिंध मैदानी प्रदेश (Ganga-Indo Plain) आनी पठारी प्रदेश.

भारताचे उत्तरेक आनी ईशान्येक मुखेल अशो तीन पर्वतांवळी दिश्टी पडटात. अस्तंतेक काश्मीरसावन उदेंतेक अरुणाचल प्रदेशामेरेन सुमार २,५०० किमी. लांब हो प्रदेश पातळ्ळा. ह्या पर्वतांवळींची मध्य भागार रुंदाय सुमार ४०० किमी. आसून अस्तंत-उदेंत तोंकांचेर ती उणी म्हळ्यार १५० किमी. आसा. ह्या पर्वतीय प्रदेशान सुमार ५ लक्ष चौ. किमी. क्षेत्र रेवडायलां. ह्यो पर्वतांवळी म्हळ्यार संवसारांतले सगळ्यांत नवे आनी ऊंच घडयां घडयांचे पर्वत आसात अशें भूंयतज्ञांचें मत आसा. हिमालय पर्वतीय प्रदेशांत साबार न्हंयो, हिमन्हंयो, खोल आनी रूंद




(ही मूळ नकाशाची सदळ अशी आकृती आसा).

देगणां आसात. काश्मीर ते आसाममेरेन सुमार ४०,००० चौ. किमी. क्षेत्र बर्फासकयल आसा.

हिमालय पर्वतप्रदेशांतल्या मुखेल तीन पर्वतांवळींतले साप्प उत्तरेक आशिल्ले वळीक बृहत हिमालय वा हिमाद्री (ग्रेटर हिमालय) अशें म्हण्टात. हे वळीची सरासर उंचाय ६,०००मी. आसून $K_2$ (८,६११मी.), नंगापर्वत (८,१६७मी.), कांचनजंगा (८,५९८मी.), नंदादेवी (७,८१७मी.), धौलागिरी (८,१६७मी.) ह्या ऊंच तेमकांचो हे वळींत आस्पाव जाता. हिमाद्री वळीचे दक्षिणेक छोटा हिमालय (लेसर हिमालय) वा हिमाचल ही ७५किमी. रुंदायेची वळ आसा. हे वळीची सरासर उंचाय ३,००० ते २,००० मी. इतली आसा. हे वळीचो विस्तार तुटक आशिल्ल्यान हांगा कांय कडेन ऊंच पर्वत तर कांय कडेन न्हंयांनी तयार केल्लीं खोल देगणां आसात. हे वळिचे दक्षिणेक आशिल्ले पर्वतांवळीक शिवालीक दोंगुल्ल्यांची वळ अशें म्हण्टात. शिवालीक दोंगुल्ल्यांक लागींच आशिल्ल्या साबार ल्हान ल्हान देगणांक दून अशें म्हण्टात.

हिमालय पर्वतांच्यो खूब ऊंच आनी सादारण उंचायेच्यो वळी हांगाच्या मुखेल न्हंयांनी तयार केल्ल्या लांब आनी खोल देगणांक लागून एकमेकांसावन वेगळयो जाल्यात. हातुंतलीं नामनेचीं देगणां म्हळयार काश्मिरांतलें झेलम आनी लडाख.

सिंधु, सतलज आनी ब्रह्मपुत्रा न्हंयांचो उगम तिबेट पठाराचेर जाला. बृहत आनी हेर पर्वत हुंपून त्यो भारतीय मैदानांकडेन व्हांवतात. झोजी, निती, माना ह्यो हांगाच्यो मुखेल खिंडी.

**उदेंत-अस्तंत दर्यादिगांचो उथळ प्रदेश :** भारतीय द्वीपकलपाचे अस्तंत- उदेंत दोनूय देगांनी उथळ मैदानी प्रदेशांचो आस्पाव जाता. गंगा त्रिभूज प्रदेशाचो उत्तर भारतीय सपाट प्रदेशांत आस्पाव जाता. उदेंत देगेवयलो सपाट प्रदेश खूब रूंद आसून, देशाच्या हेर भागांपरस हांगा चड उदक आसा. महानदी, गोदावरी, कृष्णा, कावेरी ह्यो ह्या प्रदेशांतल्यो मुखेल न्हंयो. पारादीप, विशाखापटनम्, काकिनाडा, मच्छलीपटनम्, मद्रास, कडलोर, तूतीकोरीन हीं उदेंत देगेवयलीं मुखेल बंदरां.

भारतीय द्वीपकल्पाचो अस्तंत भाग उत्तरेक सावन दक्षिणेक कन्याकुमारी मेरेन पातळला. अरबी दर्या आनी अस्तंत घाट हांचे मदीं हो प्रदेश विस्तारिल्लो आसा. हो प्रदेश उत्तर आनी दक्षिण वाठारांत चड रूंद आसा. रेंवाट दर्यावेळ, खाऱ्या उदकाचीं उथळ तळीं आनी कांय खाडी हांगा आसात. अस्तंत दर्यादिग ही महाराष्ट्रांत कोंकण दर्यादिग, कर्नाटकांत कानडा आनी केरळांत मलबार दर्यादिग म्हूण प्रसिद्ध आसा. गुजरातचे अस्तंतेक कच्छ आनी काठेवाड हे द्वीपकल्पीय प्रदेश आसात. लूनी, बनास आनी सरस्वती ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो. उदेंत गुजरात मळांच्या वाठारांतल्यान साबरमती, मही, नर्मदा आनी तापी ह्यो न्हंयो व्हांवतात.

**गंगा-सिंधु मैदानी (सपाट) प्रदेश :** हिमालय पर्वतीय प्रदेश आनी भारतीय पठारी प्रदेश, हांचे मजगतीं ह्या प्रदेशांचो आस्पाव जाता. अस्तंतेक राजस्थानच्या रेंवाट प्रदेशासावन उदेंतेक गंगा त्रिभूज प्रदेशामेरेन तो पातळिल्लो आसा. सादारणपणान राजस्थान, पंजाब, हरयाणा, उत्तर प्रदेश, बिहार आनी अस्तंत बंगाल राज्यांत तो मोडटा. आसामांत ब्रह्मपुत्रा न्हंयेक लागून अशेंच सपाट मैदान तयार जाल्लें आसा. सिंधु, गंगा, ब्रह्मपुत्रा ह्या मुखेल न्हंयांक लागून आनी तांच्या फांट्यांवांगडा व्हांवून येवपी गाळ एकसारको सांचून हो प्रदेश तयार जाला. उत्तर भारतीय मैदानाचो चडसो भाग गंगा आनी तिच्या फांट्यांनी रेवडायल्लो आसा. हांगाची जमीन सपाट आनी पिकाळ आशिल्ल्यान, शेतवड उत्पादनाचे नदरेंत ती चड म्हत्वाची आसा. मैदानाचे अस्तंत दिकेक सिंधु आनी तिचे फांटे व्हांवतात तर उदेंतेक गंगा आनी तिचे फांटे व्हांवतात. ह्या प्रदेशाचे अस्तंतेक राजस्थान राज्यांतले रेंवाट प्रदेश आनी राजस्थान बागड हो तणाचो प्रदेश आसा. लूनी ही ह्या प्रदेशांतल्यान व्हांवपी एकूच न्हंय. ह्या रेंवाट प्रदेशांत सांभर, दिडवाना, पाचपाद्रा, लुंकारान सार ताल हीं प्रसिध्द सरोवरां आसात.

गंगा-सिंधु मैदानी प्रदेशाचे उत्तरेक पंजाब-हरयाणाचीं सपाट मळां, गंगा-यमुना दुआब, रोहिल खंड मळां आनी अयोध्येचीं मळां आस्पावल्यांत, सतलज आनी रावी ह्या न्हंयांमदल्या प्रदेशाक 'बडी दुआब' तर बिआस आनी सतलज हांच्यामदल्या प्रदेशाक 'बिस्त दुआब' अशें म्हण्टात. गंगा-सिंधु मैदानाचे उदेंतेक आशिल्लो प्रदेश चड सपाट आसा. ह्या प्रदेशांत तिस्ता, जलढाका, तोरसा ह्या न्हंयांच्या गाळाची सांठवण जाल्या.

**पठारी प्रदेश :** भारतीय द्वीपकल्पाची दर्यादिग आनी त्रिभूज प्रदेश सोडल्यार उरिल्ल्या हेर द्वीपकल्पाचो हातूंत आस्पाव जाता. सादारण उंचायेच्यो पर्वतांवळी, तेमकां, दोंगुल्ल्यो, ल्हान न्हंयो, गाळाचे सपाट प्रदेश हांचो पठारी प्रदेशांत आस्पाव जाता. हो पठारी प्रदेश, चडशा पोरन्या घटमूट फातरांसावन वा लाव्हाचे थर सांचून निर्माण जाल्लो आसा. हे थर द्वीपकल्पाच्या अस्तंत प्रदेशांत चड दाट आसात.

नर्मदा न्हंयेच्या दक्षिण प्रदेशांत सह्याद्री पर्वतांच्यो वळी, सातपूडा पर्वत, उदेंत घाट, निलगिरी पर्वत, बैतूल पठार, दख्खन पठार, तेलंगण पठार, म्हैसूरचें पठार, तर नर्मदा न्हंयेच्या उत्तर वाठारांत अरवली पर्वत, माळव्याचें पठार, विंध्य पर्वत आनी छोटा नागपूर हांगाच्या पठारांचो आस्पाव जाता.

**न्हंयो :** भारतांत ल्हान-व्हड अशो खूब न्हंयो आसात. भारतीय परंपरेंत न्हंयांक पवित्र सुवात दिल्या. गंगा, सिंधु, ब्रह्मपुत्रा, महानदी, गोदावरी, कृष्णा, कावेरी ह्यो देशांतल्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो. देशांतल्या न्हंयांतल्यो हिमालयांत उगम पावपी न्हंयो आनी भारतीय द्वीपकल्पीय न्हंयो, अशे दोन वांटे केल्यात. हिमालयीन न्हंयांक पावस आनी बर्फासावन उदक मेळटा आशिल्ल्यान ह्यो न्हंयो वर्साचे बाराय म्हयने व्हांवत आसत.

ह्यो न्हंयो उंचायेवयल्यान व्हांवत आशिल्ल्यान तांणी पर्वतीय वाठारांत खोल देगणां तयार केल्यांत. सिंधु, गंगा आनी ब्रह्मपुत्रा ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो. हांचो तिबेटच्या पठारांचेर उगम जाला. भागीरथी, अलकनंदा, सतलज, काली, घागरा, गंडक, तिस्ता, बिआस, रावी, चिनाब, झेलम ह्यो ह्या प्रदेशांतल्यो मुखेल उपन्हंयो आसात.

भारतीय द्वीपकल्पांतल्या न्हंयांक मुखेलपणान पावसासावनूच उदक मेळटा. हाका लागून पावसाच्या दिसांनी हांगाच्या कांय न्हंयांक हुंवार येता आनी गिमाच्या दिसांनी उदकाची पातळी खूप उणी आसता वा कांय न्हंयो सुकून वतात. वैगई, महानदी, ब्राह्मणी, वैतरणा, गोदावरी, कृष्णा, कावेरी, पेन्नार, पालार ह्यो बंगालच्या उपसागराक मेळपी भारतीय द्वीपकल्पांतल्यो मुखेल न्हंयो आसात. विंध्य आनी सातपुडा पर्वतांचेर उगम जाल्ल्यो चंबळ, बेटवा, दामोदर, शोण, केन ह्यो न्हंयो ईशान्येकडेन गंगा न्हंयेक मेळ्ळयात. तर नर्मदा, साबरमती, मही, तापी, इरावती ह्यो द्वीपकल्पांतल्यो न्हंयो अरबी दर्यांत रिगल्यात.

द्वीपकल्पांतल्या चडशा न्हंयांचो उगम पर्वतांचेर जाल्ल्यान तांच्या मार्गांचेर साबार धबधबे दिश्टी पडटात. शरावती न्हंयेच्या मार्गाचेर आशिल्लो गिरसप्पा हो भारतांतलो सगळयांत ऊंच धबधबो आसा. कावेरी न्हंयेचेर आशिल्ले शिवसमूद्र, होगेल हे धबधबे, पैकार न्हंयेवयलो पैकारा धबधबो, घटप्रभा न्हंयेवयलो गोकाक धबधबो, हे भारतीय द्वीपकल्पांतले कांय प्रसिद्द धबधबे आसात.

संवसारांतल्या व्हड हिमन्हंयांमदल्यो चडशो हिमन्हंयो हिमालयाच्या ऊंच प्रदेशांत सांपडटात. सिओचन, हिस्पार, बालतोरो आनी बिआफो ह्यो हिमालयाच्या काराकोरम पर्वत विभागांतल्यो मुखेल हिम न्हंयो आसात.

**सरोवरां :** भारतांत सरोवरांचो आंकडो खूब उणो आसा. चडशीं सरोवरां हिमालयीन विभागांत सांपडटात. भारतांत खाऱ्या आनी साव्या उदकाचीं सरोवरां आसात. खाऱ्या उदकाचीं सरोवरां मुखेलपणान दर्यादेगांनी दिश्टी पडटात. ओरिसांत आशिल्लें चिल्का, आंध्र प्रदेश आनी तमिळनाडू हांगाचें पुलिकत, तशेंच केरळ राज्यांतलीं बेंबनाड आनी अश्टमुडी हीं खाऱ्या उदकाचीं सरोवरां, खाजनां तयार जाल्ल्यान निर्माण जाल्यांत. राजस्थानच्या रेंवाट वाठारांत खाऱ्या उदकाचीं सरोवरां आसात. तातुंतलें सांभर हें खूब प्रसिद्द आसा.

साव्या उदकाचीं सरोवरां मुखेलपणान न्हंयांच्या देगणांनी सैमीक बांद तयार जाल्ल्यान निर्माण जाल्यांत. नैनिताल हांगाचें भिमताल आनी सिक्कीमचें गुरुडोंगमारचो हीं म्हत्वाचीं सरोवरां आसात. वुलर हें काश्मीर देगणांतलें सगळयांत व्हडलें सरोवर. महाराष्ट्र राज्यांतलें लोणार हें सरोवर एक ज्वालामुखीचें तोंड आसा अशें शास्त्रज्ञांनी मत मांडलां.

**भारतीय जुंवे :** अरबी दर्यांत आनी बंगालच्या उपसागरांत भारताचे साबार जुंवे आस्पावल्यात. बंगालच्या उपसागरांतले जुंवे अरबी दर्यांतल्या जुंव्यापरस व्हड आसात आनी थंय लोकवसतीय चड आसा. लक्षद्वीप, अग्निदीवी आनी मिनीकॉय हे भारताच्या अरबी दर्यांत आशिल्ले मुखेल जुंवे आसून ते सुमार ८° ते १२° उत्तर अक्षांश इतले पातळिल्ले आसात. बंगालच्या उपसागरांत ६° ४५' ते १२° ४५' उत्तर अक्षांश आनी ९२° १५' ते ९४° १३' उदेंत रेखांश इतले मेरेन पातळिल्ले अंदमान आनी निकोबार हे भारतीय जुंवे आसात.

**हवामान :** उश्णकटीबंधीय मानसून अशें सादारणपणान भारताच्या हवामानाचें वर्णन करतात. हिमालयाच्या ऊंच पर्वतांवळींक लागून ध्रुवीय हवामानाचो भारताचेर परिणाम जायना. हाका लागून भारतीय उपखंडांत स्वतंत्र असो मानसून हवामानाचो प्रकार निर्माण जाला. क्षेत्रफळाचे नदरेन हो देश व्हड आशिल्ल्यान हांगाचें हवामान भूंयस्वरुपाचेर आदारीत आसा. शिंयाळो, गीम आनी पावसाळो हे हांगाचे तीन ऋतू.

**शिंयाळो :** (ऑक्टोबर ते फेब्रुवारी) : शिंयाच्या दिसांनी जानेवारी म्हयन्यांत मध्य तशेंच दक्षिण भारतांत तापमान २१° ते २७° से. इतलें आसता आनी गंगा-सिंधु मैदानी वाठारांत तें १३° ते १८° सें. इतलें आसता. सगळयांत चड थंडी देशाचे वायव्येक आशिल्ल्या वाठारांनी पडटा. ह्या दिसांनी जम्मू-काश्मीर देगणांत तापमान गोठबिंदूसकयल देंवता. हिमालय पर्वतीय प्रदेशांत हिम पडटा. जम्मू-काश्मीर, पंजाब, हरयाणा, उत्तर प्रदेश, बिहार, ओरिसा, आसाम, राजस्थान, सौराष्ट्र हांगा कडक थंडी पडटा. शिंयाच्या दिसांनी ह्या राज्यांत धुकें पडपाचीय शक्यता आसता.

**गीम :** (मार्च ते मे) : ह्या तेंपार सूर्य कर्कवृत्ताच्या माथ्यार आशिल्ल्यान भारताच्या मध्य भागांत उश्णता (गर्मी) वाडत वता. एप्रिल-मे म्हयन्यांत सुर्याच्या लांब किरणांक लागून उत्तर भारतांत उश्णतेचीं ल्हारां चड जाणवतात. ह्या तेंपार राजस्थानच्या गंगानगर वाठारांत चडांत चड तापमान ५०° से. इतलें नोंद जालां. दिल्ली, उत्तर प्रदेश आनी राजस्थानच्या रेंवाट प्रदेशांत ह्या तेंपार चडांत चड तापमान ४६° ते ४८°से. इतलें नोंद जाता. दक्षिण भारताचें पठार ऊंच आशिल्ल्यान, हांगाच्या वाठारांनी उश्णता मातशी कमी जाणवता. गिमाच्या दिसांनी, दर्यादेगेर आशिल्ल्या कांय वाठारांनी पावस पडटा. ह्या तेंपार उत्तर भारतांत व्हड मोडां जावपाची शक्यता आसता.

**पावसी ऋतू :** (जून ते सप्टेंबर) जुनाचे सुरवेकसावन नैऋत्येकडच्यान मानसून वारो व्हांवूंक लागता. मलबार, कोंकण, कानारा दर्यादिगांनी मानसून सादारणपणान ५ जूनसावन सुरू जाता. ह्या तेंपार नैऋत्य दर्यादिगांनी आशिल्ल्या वाठारांत जोगलां मारून आनी व्हड गडगड जावन घोग्यांनी पावस पडटा. बंगालांत सादारणपणान १५ जूनसावन तर पुराय भारतांत १ जुलय पयली उण्या-चड प्रमाणांत तो पडपाक लागता.

दक्षिण भारतांतल्या सह्याद्री पर्वतांवळींक लागून अरबी दर्यावयल्यान येवपी नैऋत्य मानसूनचीं कुपां आडावतात. हाका लागून कोंकण, कर्नाटक

आनी मलबार दर्यादेगांनी चड पावस पडटा. बंगालच्या उपसागरावयल्यान भारतांत येवपी मानसून वाऱ्याक लागून, उदेंत आनी उत्तर भारतांत पावस पडटा. आसाम दोंगुल्ल्यांच्या वाठारांनी खूब पावस पडटा. हांगाच्या चेरापूंजी वाठारांत पावसाची सगळयांत चड नोंद जाता (१२७० सेंमी.). सगळयांत चड पावसाचें उदक मेळपी हो संवसारांतलो पयल्या क्रमांकाचो वाठार जावन आसा. अस्तंत घाट आनी अस्तंत दर्यादेगांनी, आसाम, हिमालयाच्या मुळसांतल्या प्रदेशांनी आनी बंगालच्या कांय वाठारांनी चड पावस पडटा तर राजस्थानच्या रेंवाट वाठारांनी आनी पंजाबच्या दक्षिण वाठारांनी साप् उणो पावस पडटा.

**वनस्पत :** भारत देश वनस्पतीचे संपत्तीन समृध्द आसा. भारतांत सुमार ४५,००० उपगणांची वनस्पत आसा अशें वनस्पततज्ञांनी मत मांडलां. भारतांत सांपडपी म्हत्वाचे अशे वाहिनीवंत वनस्पतीचे (Vascular Plant) १५,००० उपगण आसात. हातुंतले सुमार ३५ उपगण थळावे आसून, संवसारांत हेरकडेन ते खंयच सांपडिल्ल्याचे उल्लेख मेळनात. भारतांत फुलां येवपी आनी फुलां ना येवपी अशी दोनूय प्रकारची वनस्पत खूब प्रमाणांत सांपडटा.

बॉटनिकल सर्वे ऑफ इंडिया (BSI) ही कलकत्ता हांगा आशिल्ली संस्था भारतीय वनस्पतीचो अभ्यास करता. हे संस्थेन 'फ्लोरा ऑफ इंडीया' ह्या पुस्तकांत भारतीय वनस्पतीची पुराय म्हायती आनी तिचे उपेग दिल्यात.

रुखावळीच्या आदारान भारतीय वनस्पततज्ञांनी भारताचे आठ वनस्पतीक विभाग केल्यात ते अशे : अस्तंत हिमालय, उदेंत हिमालय, आसाम, गंगा मैदानी प्रदेश, रेंवाट प्रदेश दख्खन, मलबार, अंदमान-निकोबार जुंवे.

अस्तंत हिमालय विभागांत साल रानां विस्तारिल्लीं आसात. साल रूख उथळ प्रदेशांत चड वाडटात. पूण चड उंचायेच्या वाठारांत ते मोटवेच उरतात. काश्मीर सावन कुमाउमेरेन पातळिल्ल्या ह्या विभागांत चिर, पायन आनी हेर सूचिपर्णी रूख खूब आसात. तशेंच साल रुखांवांगडाच कांय प्रमाणांत पानझडी आनी सदांपाचवे उरपी रूखय दिश्टी पडटात. साल रानाच्या कांय भागांत रोंसा आनी कनवाल हीं व्हड तणाचीं मळां सांपडटात. हिमालयाच्या उंचेल्या प्रदेशांत कॉनिफरस रान पातळळां. हातूंत पायन रूख चड आसात. हें रान काश्मीर ते भूतान मेरेन पातळिल्लें आसा. चड उंचायेच्या प्रदेशांत देवदार, ब्ल्यू पायन, स्प्रूस, व्हायट ओक, संतानक, अक्रोड पद्‌म हे रूख आसात.

सिक्कीम, भूतान, दार्जिलींग आनी अरुणाचल प्रदेशाच्या चडशा वाठारांचो उदेंत हिमालय विभागांत आस्पाव जाता. हांगाच्या चड उंचायेक आशिल्ल्या रानांनी ओक, चेस्टनट आनी हेर रूंद पानांचे रूख सांपडटात. ऊंच दोंगुल्ल्यांच्या मुळसांत सालाचीं दाट रानां आसून तातूंत बोडारा, तांबडी सांवर, बेहडा, सारडाकरमळ, शिवण हेय रूख आस्पावल्यात.

आसाम विभागांत, आसाम, नागालँड, मणिपूर, त्रिपुरा ह्या प्रदेशांचो आस्पाव जाता. हांगा चडशीं सदापर्णी रुखांचीं दाट रानां आसून तातूंत नागचाफो, चल्पाश, सोनचाफो, तामण, मोऱ्हल, सातवीण, करमळ, होलॉक, जांबळ, भिरण हे रूख वाडटात. हांगाच्या दोंगुल्ल्यांच्या माथ्यांचेर तणाचीं मळां आनी दाट झोंपां आसात. देगणांनी तण चड ऊंच वाडटा. गंगा मैदानी विभागांत, दिल्लीचो उदेंत भाग, बिहाराचो उत्तर भाग, अस्तंत बंगाल आनी ओरिसा हांचो आस्पाव जाता. हांगा मुखेलपणान खैर, शिसो आनी झाऊ हे रूख आसात. ह्या विभागाच्या सकयल्ल्या प्रदेशांत बंगालच्या रानांचो आस्पाव जाता. हांगा खाऱ्या आनी दलदलीच्या वाठारांत वाडपी वनस्पतूय सांपडटा. गंगा त्रिभूज प्रदेशांत सुंदर नांवाचे रूख सगळयाक दिश्टी पडटात. म्हूण ह्या प्रदेशाक 'सुंदर वन' हें नांव दिलां. रूक्ष वा रेंवाट विभागांत, उदेंत पंजाब, अस्तंत राजस्थान आनी उत्तर गुजरातचो आस्पाव जाता. ह्या विभागांत पावस साप्प उणो पडटा. हाका लागून हांगा फकत रेंवाट वाठारांत जावपी आनी उदक सांठोवन दवरपी वनस्पत वाडटा. हांगा कांडोल, विहूल, खरखटी, हिंगण, खैर, रानबोर, निवडूंग आनी हेर कांट्यांचीं झोंपां सांपडटात.

मध्य प्रदेश, महाराष्ट्र आनी कर्नाटक राज्याचो उदेंत प्रदेश, बिहारचो दक्षिण भाग, तमिळनाडु, आंध्र प्रदेश आनी दक्षिण ओरिसा हांचो दख्खन विभागांत आस्पाव जाता. दक्षिण विभाग चडकरून पानझडी रानांनी भरिल्लो आसा. हांगा बाभूळ, हिवर, हिंगण, पळस, आंवाळो, रानबोर, सालय, जांभा हे रूख दिश्टी पडटात. तशेंच ह्या रानांत नाताळ, तत्सतण, कुसळी, रोशा, साबई हें तण वाडटा. साग, ऐन, हिरडा, बेहडा, धावडा, बोंडारा, पळस, बाहवा, हेद, चंदन हेय रूख कांय प्रमाणांत हांगा सांपडटात. म्हैसूर, कूर्ग, कोईमतूर, सालेम, हांगाच्या उंचायेच्या वाठारांनी निलगिरी आनी पानझडी रुखांचे मजगतीं चंदन आनी रक्तचंदन सांपडटा.

मलबार विभागांत, दक्षिण आनी आग्नेय भाग, महाराष्ट्र आनी कर्नाटक हांचे अस्तंत भाग, गोवा आनी केरळ हांचो आस्पाव जाता. हांगा उश्ण कटिबंधीय सदापर्णी रानांत चालन, कल्होणी, तून, धूप, उगद, नागचाफो, बाधर, कडूकवठ, भिरण, पन्नग, तशेंच मिरिस्टिकेसी आनी लॉरेसी जातींचे साबार रूख आसात. हांगा सांपडपी चडशो वाली व्हायटेसी आनी मेनिस्पर्मेसी जातींच्यो आसात. पानझडी रुखांचें रान ह्या विभागाचे उत्तरेक आसून तातूंत साग, शिसू, ऐन, किंजळ, बेहडा, हेद, नाणो, मारटी रूख सांपडटात. कोंकण दर्या देगांनी, माड, माडयो, काजू, पणस, आंबो हीं ह्या वाठारांतलीं नकद उत्पन्न दिवपी वनस्पत भोवप्रमाणांत सांपडटा. अंदमान आनी निकोबार जुंव्यांचेर दाट रानां पातळळयांत. हांगाचे खाडींत साठोवन उरिल्ल्या खाऱ्या उदकाचे दलदलींत साबार कच्छ जातींची वनस्पत सांपडटा. कांदळ, गोरान, पुसूर, कृपा, कांक्रा, गोरिया, चौरी, चिपी, इरापू हे रूख हांगा सांपडटात. दर्यादिगांनी उंडी, देशी बदाम, पांगारा, करंज, पिंपळ, बेलपटा, मोई दिश्टी पडटात.

हांगाच्या दोंगुल्ल्यांच्या मुळसांत आनी देंवत्यांचेर सदापाचवीं उरपी रानां आसून तातूंत होपिया ओडोरॅटा, प्लँचोनिया अंदमॅनिका, चालन, बाधर, टेंबुर्णी ही वनस्पत सांपडटा. डिजोक्लोआ, अंदमॅनिका, नीटेलीझ, ॲनसिस्ट्रोकलॅडस ह्या जातींच्यो वाली हांगा खूप प्रमाणांत आसात.

उद्देगधंदे, शेतवड आनी नागरी विकास घडोवन हाडचे खातीर हालींच्या तेंपार साबार रानां मारून उडयल्यांत. हाका लागून भारतीय झाडांच्यो साबार जाती काबार जावपाक पावल्यात. ह्या झाडांचे नमुने फुडाराक उरचे म्हूण तांच्यो जाती वानस्पतीक पोरसांनी (Botanical Gardens) आनी राश्ट्रीय उद्यानांनी राखून दवरल्यात.

**मोनजात** : भारतांत भूंयेचे आनी हवामानाचे वेगवेगळे प्रकार आशिल्ल्यान हांगा तरेकवार मोनजात दिश्टी पडटा. बारीक बारीक किडे (जीव) ते व्हड प्राणी मेळून भारतांत सांपडपी मोनजातीचे सुमार ७५,००० उपगण (वर्ग) आसात. हातुंतले सुमार २,५०० नुस्त्याचे, १५० जलस्थलचर (amphibian), ४५० सरपटपी प्राणी (reptiles), २,००० सवण्यांचे, ८५० सरतन (mammals) प्राण्यांचे वर्ग असात. उरिल्ल्या वर्गांनी फाटीकणो नाशिल्ल्या (invertebrates) जिवांचो आस्पाव जाता.

भारतांत सांपडपी सस्तन वर्गांत हत्ती, रान रेडो, निलगाय, चौशिंग (चार शिंगां आशिल्लें सांबर), हरण, शींव, वाग, बिबळो, वेगवेगळया जातींचीं मांजरां, मुंगूस, कोलो, वांस्वेल, रान दुकर, गेंडो, गवो, माकड तशेंच हेर मांसाहारी आनी शाकाहारी मोनजातिंचो आस्पाव जाता. पाडे आनी हत्ती हांचो उल्लेख प्राचीन भारतीय साहित्यांत लेगीत मेळटा. सद्या आशियाई जातीचो हत्ती भारताच्या ईशान्य आनी दक्षिण रानांनी मेळटा. आशियाई हत्ती हो आफ्रिकन हत्तीपरस ल्हान आसता. 'न्हिनोरोरॉस सूनिकोर्निस' हे जातीचे गेंडे आसाम आनी अस्तंत बंगालच्या रानांनी सांपडटात.

भारतीय शींव सद्या फकत गुजरात राज्यांतल्या गीर रानांत सांपडटा. बंगाली वाग हो भारताचो राश्ट्रीय प्राणी आसून, तो भारतांतल्या सगळया रानांनी सांपडटा. वागाचे कातीक आनी हाडांक खूब मागणी आशिल्ल्यान वागाची खूब शिकार जाता. हाका लागून १९७४ सावन वागांची जतनाय घेवपाखातीर १८ वेंचीक क्षेत्रांत, केंद्र सरकारान 'प्रॉजेक्ट टायगर' ही वागांक राखून दवरपाची येवजण अंमलांत हाडल्या. बिबटे दाट रानांनी दिश्टी पडटात. चित्त्याचें प्रमाण लागीं लागीं भारतांतल्यान काबार जायत आयलां. रान माजरां खूब प्रमाणांत सांपडटात. कस्तुरी माजर, मुंगूस, मार्टेन हे मांसाहारी प्राणी सगळेकडेन सांपडटात. काश्मीर देगणांत खूब जातीचे लांडगे आसात. कोले सगळया वाठारांनी दिश्टी पडटात. हिमालय वाठारांतलीं मातये कोराचीं वांस्वेलां, काळी वांस्वेलां (सेलेनार्क्ट तिबेटॅनस) आनी सादारण वांस्वेलां (मेलर्सस आर्सिनस) सगळया रानांनी सांपडटात. सुस 'स्कोफा किस्टॅटस' हे जातीचे रानदुकर भारतांत खूब प्रमाणांत आसात. हरणांच्योय विंगड विंगड जाती खूब आसात. नील गायेचें प्रमाण खूब उणें जालां. गवो हो प्राणी ईशान्य, मध्य आनी दक्षिण भारतांतल्या दाट रानांनी सांपडटा. माकडांच्यो जाती खूब आसून, लंगूर ही माकडाची थळावी जात आसा.

मानगें, सोरोप (जिवाणीं) कांसव, गार हांचो सरपटपी मोनजातींत आस्पाव जाता. भारतांत क्रोकोडिलीया पंगडांतल्या मानग्यांच्यो तीन जाती सांपडटात. हातुंतल्या क्रोकोडिलस पोरोसस आनी क्रोकोडिलस पॅल्यूस्ट्रिस मानग्यांचें तोंड रूंद आसता. घडियाल जातीच्या मानग्याचें तोंड अशीर, चेपटें आनी लांब आसता. वेगवेगळया जातींचे कांसव खूब प्रमाणांत आसून ते देशाच्या सगळया वाठारांनी दिश्टी पडटात. भारतांत विखयाळे आनी वीख नाशिल्ल्या सोरपांचें प्रमाण खूब आसा. नाजा नाजा जातीचो नाग हो सगळयांत चड विखयाळो सोरोप. उभयचर वर्गांत बेब्यांचें प्रमाण खूब आसा. राना टिगरॅना जातीचे बेबे भारतांत सगळयाक सांपडटात.

देशांत साबार न्हंयो आशिल्ल्यान आनी व्हड दर्यादेग लाबिल्ल्यान, हांगा साव्या आनी खाऱ्या उदकांत सांपडपी नुस्तें खूब प्रमाणांत मेळटा. दर्यांत शार्क (मोरी), ईल आनी रे हें इलॅत्मोब्रँकिआय उपवर्गांतलें नुस्तें तशेंच सार्डीन, हिल्सा, पर्च, बांगडो, पापलेट आनी ट्यूना हें टेलिऑस्टेआय उपवर्गांतलें नुस्तें खूब प्रमाणांत सांपडटा. साव्या उदकांतलें नुस्तें न्हंयो, सरोवरां आनी ल्हान-व्हड तळयांनी सांपडटा. कार्प ह्या साव्या नुस्त्यांच्यो सगळयो जाती खावप जाता. तातुंतले कटला, महसीर आनी रोहू ह्यो जाती लोकप्रिय आसात.

भारताचें हवामान आनी दाट रानांक लागून हांगा सुकण्यांची जीण समृध्द आसा. हांगा सुकण्यांच्यो सुमार २,००० वयर जाती आसात. फिरत्या सुकण्यांचोय आंकडो खूब आसा. दर वर्सा सु. ३५० जातींची सुकणीं शिंयाळयांत हेर देशासावन भारतांत येतात. हंस, बदक, तितर, पारवो, पोपट, साळुंकी, कोगूळ, कावळो, पिटकुळें, शेरूक, बकें, कवडो, सुतार, ससाणो, गिधाड, घोण हीं सुकणीं भारतांत चडकरून सगळयाक सांपडटात. सारस हें भारतांत सांपडपी सगळयांत व्हड सुकणें, जाल्यार फेंझट हें हिमालय वाठारांत सांपडपी सोबीत सुकणें आसा. मोर हो भारताचो राश्ट्रीय पक्षी आसा. माळढोक ह्या सुकण्याची शिकार जायत राविल्ल्यान तांची संख्या उणी जायत आसा.

**इतिहास** : (अश्मयुगीन काळ) भारतांत मनीस केन्ना अस्तित्वांत आयलो हाचेविशीं स्पश्ट अशी म्हायती मेळना. पूण सुमार दोन लाख वर्सांपयलीं सावन हांगा मनशाचो राबितो आशिल्लो अशें अश्मयुगीन अवशेशांवयल्यान कळटा. ह्या काळांत मनीस लाकूड, हाडां वा फातरांचीं हत्यारां वापरतालो. हाका लागून ह्या काळाक 'अश्मयुग' अशें नांव दिलां. सुरवेच्या काळांत म्हळयार पुराणाश्मयुगांत तांणी वापरिल्लीं फांतरी हत्यारां आकारान खूब व्हड आशिल्लीं. ह्या प्रकारचीं हत्यारां गोदावरी

आनी नर्मदा न्हंयांदेगांनी तशेंच काश्मीर भागांतूय सांपडल्यांत. मध्यअश्मयुगांत हत्त्यारांचो आकार ल्हान जायत गेलो आनी हत्त्यारांक ते हाडांच्यो वा लाकडाच्यो मुठी घालपाक लागले. नवाश्मयुगांत ह्या हत्यारांत मातशी सुदारणा जावन, शिकार करपाखातीर ते मुखेलपणान भाल्याचोच उपेग करताले. नुस्तें धरपाखातीर ते हाडांचे गरे वापरताले.

ताम्रपाशाणयुगांत तांबें आनी कांशें (ब्राँझ) हांचो चड उपेग जातालो. ह्या तेंपार धातुंच्या वेगवेगळया वस्तुंनी आनी आयदनांनी भर पडली. सिंधु संस्कृती ही ताम्रपाशाणयुगीन आशिल्ली. मोहें-जो-दडो आनी हडप्पा हांगाच्या उत्खननातल्यान सिंधु संस्कृती खूब फुडारिल्ली. वेवस्थीत नगर रचणुकेक लागून तिका नागरी संस्कृती अशें म्हळां.



कांशाची एक पुरातन कलाकृती

आर्य लोक भारतांत केन्ना आयले हाचे विशीं मतभेद आसात. सादारणपणान इसवी सनापयलीं तीन ते चार हजार आदीं ते भारतांत आयले, असो तज्ञांनी अदमास काडला. सुरवेक तांणी उत्तर भारतांत (पंजाब) न्हंयेचे देगेर आपलो राबितो केल्लो. ते भारतांत पावले तेन्ना वायव्य भारतांत सिंधुसंस्कृती नंदताली. आर्यां पयलींचे लोक नगरां वसोवन थिर जाल्ले हें मोहें-जो-दडो आनी हडप्पा हांगाच्या उत्खननावयल्यान स्पश्ट जाता. वेपाराच्या मळारूय ते खूब फुडारिल्ले आनी इराक-इराण ह्या देशांकडेन तांचो वेपारी संबंद आशिल्लो. शेतवड हो तांचो मुखेल वेवसाय आशिल्लो, तशेंच गोरवां, बोकडां, उंट ह्या जनावरांकूय ते पोसताले. तांची कलाकुसर आनी नगर रचणूक हांचेवयल्यान तांचे जीणेचेर उजवाड पडटा. हे लोक द्रविड वंशीय आशिल्ले अशें मानतात. आर्य लोक हे झुजारी वृत्तीचे लोक आशिल्ले. ते भारतांत आयल्या उपरांत तांणी द्रविड लोकांचो पराभव करून तांचे नागरी संस्कृतायेचो विध्वंस करून उडयलो. अशे रितीन सप्तसिंधु प्रदेश आर्यांच्या शेकातळा आयलो. यदू, पुरु, अनू, द्रुह्यू आनी तुर्वश हे आर्यांचे पांच जन (पंगड) सप्तसिंधु प्रदेशाचेर सत्ता चलोवपाक लागले.

आर्य लोक हे ऊंच, घटमूट आंगलोटाचे, गोरे, भांगरा केंसाचे आनी निळया दोळयांचे आसले. सैमीक घडणुकांक आनी अदभूत वस्तूंक तांणी देव मानल्यात. इंद्र, अग्नि, मरुत, सोम आनी हेर देवांक ते भजताले. आर्य लोक कुल वा कुटूंब करून एकठांय रावताले. तांच्यांत पितृसत्ताक कुटूंब पद्दत चलताली. शेत, गोरवां-म्हसरां पाळप, धातुकाम ह्या उद्देगांचेर वेदकाळांतली अर्थीक जीण आदारून आसली.

वैदिक काळाच्या उपरांतच्या तेंपार (Later Vedic Period) धर्मीक विधी, समाज, अर्थीक आनी राजकीय वेवस्थेंत खूब बदल जाले. धर्मीक विधी करचे खातीर पुजारी वर्ग अस्तित्वांत आयलो. तशेंच ते रूद्र आनी विष्णु ह्या सारकिल्ल्या नव्या देवांकूय भजपाक लागले. कर्म, माया, पुनर्जल्म, आत्मो आनी मुक्ती ह्या सारकिल्ल्या तत्त्वगिन्यानी विशयांचेर भासाभास जावपाक लागली. समाजीक जीणेंतूय खूब बदल जाले. ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शुद्र हे वर्ग निर्माण जावन, मुखार ते पोटजातींत विभागिल्ले. साबार पोटजातींवांगडा तांचे वेवसायूय बदलले. देणें-घेणें लेगीत जातींभितरूच जावपाक लागलें. राज्याचो विस्तार वाडलो तशे राजाचे अधिकारूय वाडत गेले. प्रजा पुरायपणान राजाच्या शेकातळा वावुरताली. शेतकी जमीन आनी हेर मालमत्तेचेर राजाच देखरेख दवरतालोः पूण तांचेर राजाची मालकी मात नाशिल्ली. गुन्यांवांचो न्याय निवाडो करप हो राजाचोच मान आशिल्लो.

वैदिक साहित्य हें इ.स.प. सव्या शेंकड्याच्या आदल्या इतिहासाचेर उजवाड घालपी एकमेव साधन आसा. पूण इतिहासीक घडणुको विस्कटावन सांगपाक वैदिक साहित्य उणें पडटा. प्राचीन राजांचे आनी तांणी वर्चस्व मेळचें म्हूण एकामेकांआड केल्ल्या झुजांचे साबार उल्लेख पुराणांनी मेळटात. पूण वेगवेगळया पुराणांनी तांचें वेगवेगळे रितीन वर्णन केल्लें आसून तांच्यांत खूब मतभेद आसात. उपरांत इ.स.प. सव्या शेंकड्यासावन बौध्द आनी जैन वाङ्मयाक लागून इतिहासीक घडणुकांची वेवस्थीत म्हायती मेळपाक लागली. उत्तर भारत सोळा म्हाजनपदांनी विभागिल्लो आनी थंय सर्वश्रेश्ठ असो कोणूच राजा नासलो, अशें बौध्द वाङ्मयांत म्हळां. गणराज्य आनी राजेशाय दोनूय पद्दती अस्तित्वांत आशिल्ल्यो अशें तातूंत म्हळां. इ.स.प. सव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन नंद वंशान मगध देशांत आपलें राज्य बळिश्ट केल्लें. म्हापद्मा नंदा हाच्या मरणाउपरांत मॅसेडोनीयाचो सम्राट ॲलेक्झांडर हाणें भारताचेर घुरी घालून उत्तर भारतांतलो व्हड वाठार आपल्या शेकातळा हाडलो. तो परतून गेलो तेन्ना ताणें भारतीय प्रदेशांचेर साबार ग्रीक क्षेत्रपांची नेमणूक केल्ली. उपरांत इ.स.प. ३२२त चंद्रगुप्त मौर्य हाणें नंद राजाचो पराभव केलो आनी ग्रीक क्षेत्रपांकूय भारतांतल्यान धांवडावन घाले. नंदांनी घट्ट केल्ल्या साम्राज्याचो व्हड विस्तार मौर्य वंशान केलो. चंद्रगुप्त आनी ताचो चलो

बिंदूसार हांणी उत्तरेक अफगाणमेरेन तशेंच दक्षिण भारतांतूय आपलें साम्राज्य पातळायल्लें. सम्राट अशोक गादयेर आयलो तेन्ना मौर्य साम्राज्याची शीम कर्नाटकाक तेंकिल्ली अशें म्हण्टात. चंद्रगुप्त हाचें व्हडपण आनी राज्यवेवस्था हांची म्हायती ग्रीक राजदूत मॅगास्थिनीझ हाच्या लिखाणांतल्यान आनी कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांतल्यान मेळटा. सम्राट अशोक हाची म्हायती साबार शिलालेखांतल्यीन मेळटा. अशोकाच्या मरणाउपरांत (इ.स.प. २३२) मौर्य साम्राज्याक देंवती कळा लागली.

मौर्य साम्राज्य विसर्जीत जाल्याउपरांत, उत्तर भारतांत ल्हान ल्हान राज्यां परतून निर्माण जालीं. मध्य हिंदुस्थानांत मौर्यांउपरांत कांय तेंप पुशमित्रान स्थापणूक केल्ल्या शुंग वंशान राज्य केलें. इ.स.प. ७३त शुंग राजाक हारोवन कण्व वंशाचो राजा सत्तेर आयलो. इ.स. पयलींच्या दुसऱ्या शेंकड्यांत वायव्य हिंदुस्थानांत इंडो-ग्रीक नांवान प्रसिध्द आशिल्ले राजा सत्तेर आयले. हातुंतले, डिमीट्रिअस दुसरो आनी मिनांदर हे दोन व्हड राजा जावन गेले. मिनांदर हाणें बौध्द धर्म आपणायल्लो, असो उल्लेख मिलिंदपन्हाला हातूंत मेळटा. ह्याच सुमाराक उत्तर आनी अस्तंत भारतांत शक राजाचो आनी पार्थीयन क्षत्रपांचो शेक चलतालो. उपरांत कुशाण घराण्याचें राज्य अस्तित्वांत आयलें. तांची राजधानी पेशवार हांगा आशिल्ली. कनिश्ठ हो कुशाण घराण्यांतलो श्रेश्ठ राजा आशिल्लो. ह्या तेंपार परकीय आक्रमणावांगडा तांचे संस्कृतायेचोय प्रभाव भारतीय कलेचेर पडलो.

इ.स.चे सुरवेक भारतांत साबार गणसंघ भरभराटीक आयले. इसवी सनाच्या दुसऱ्या आनी तिसऱ्या शेंकड्यांत तत्त्वगिन्यान, विज्ञान, साहित्य आनी कलाकुसर हांची खूब उदरगत जाली, म्हूण ह्या सुमाराक भारताच्या इतिहासाचो एक सर्जनशील काळ (Creative Period) अशें म्हळां. चवथ्या शेंकड्याचे सुरवेक गुप्ता घराण्याचो ल्हान गणसंघ आशिल्लो. पूण चंद्रगुप्त पयलो हाणें गुप्ता राज्याची स्थापणूक केली (इ.स. ३२०) उपरांत समुद्रगुप्त हाणें गुप्ता साम्राज्याचो विस्तार केलो. उत्तर भारताचो चडसो प्रदेश ताणें आपल्या शेकातळा हाडिल्लो आनी साबार राजांक ताणें आपले मांडलिक केल्ले. हाका लागून विंसेंत स्मित हाणें ताका भारताचो नेपोलियन अशें म्हळां. स्कंदगुप्ता उपरांत गुप्त साम्राज्याक देंवती कळा लागली. मुखार गुप्त साम्राज्याचें विभाजन जावन मौखरी, नैत्रक हीं घराणीं तशेंच मालवा आनी कामरुपा सारकिल्लीं ल्हान ल्हान राज्यां अस्तित्वांत आयलीं. सातव्या शेंकड्यांत उत्तर भारतांत हर्षवर्धन हो व्हड राजा जावन गेलो. आठव्या शेंकड्यांत काश्मीरचो ललितदिव्य हाणें व्हड साम्राज्य उबारिल्लें.

तिसऱ्या शेंकड्यांत सातवाहनाचो अंत जाल्याउपरांत दख्खन प्रदेशांत साबार ल्हान ल्हान राज्यां अस्तित्वांत आयलीं. हातुंतलें विंध्याशक्ती ह्या राजान स्थापीत केल्लें वाकाटका हें चड बळिश्ट आशिल्लें. विंध्याशक्ती हाचो चलो प्रवरसेन हाणें चार अश्वमेध करून आपल्याक सम्राट हें नांव घेतिल्लें. ताचें साम्राज्य उत्तरेक बुंदेलखंडा सावन दक्षिणेक हैद्राबाद मेरेन पातळिल्लें. वाकाटका उपरांत सव्या शेंकड्याच्या सुमाराक दक्षिण भारतांत बदामिच्या तालुक्यांचो शेक चलतालो. चालुक्य घराण्यांतलो पुलकेशीन दुसरो (कार ६०९-६४२) हो व्हड दक्षिणात्य राजा आशिल्लो. ह्याच सुमाराक महेंद्र वर्मा ह्या पल्लव घराण्यांतल्या राजान दक्षिणेंतलीं ल्हान ल्हान राज्यां एकवटीत करून आपल्या राज्याचो विस्तार केल्लो. चालुक्य राजांनी पल्लवांक खर विरोध केल्लो. अशे रितीन तांच्यांतलें वैर वाडत गेलें.

इ.स. ८०० ते ११०० ह्या काळांत उत्तर हिंदुस्थानांत आपलो शेक बसोवपाखातीर प्रतिहार, राष्ट्रकूट आनी पाल घराण्यांभितर एकसारकीं झगडीं जायत रावलीं. मुसलमानांच्यो घुरयो हिंदुस्थानांत येवचे पयलीं प्रतिहार घराण्यांत आपलो शेक राजस्थान आनी अस्तंत भारतांत प्रस्थापित केल्लो. चालुक्या उपरांत सत्तेर आयिल्ले राष्ट्रकूट महाराष्ट्रांत राज्य करपाक लागले तर उदेंत भारतांत पाल घराण्याचो शेक आशिल्लो. उपरांत धाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक प्रतिहारांच्या मांडलिकांनी आपली सत्ता बळिश्ट करून स्वतंत्र राज्यांची स्थापणूक केल्ली. अशे रितीन राज्यस्थान आनी अस्तंत भारताच्या कांय प्रदेशांनी ल्हान ल्हान रजपूत राज्यां उदयाक आयलीं. दक्षिणेक कदंब आनी गंग घराण्यांनी राष्ट्रकुटांक सदांच विरोध केल्लो. तांच्यांत झगडीं चालूच आशिल्लीं. धाव्या शेंकड्यांत चोल राजान पल्लव आनी पांड्य घराण्यांचो पराभव करून दक्षिण भारतांत आपलें साम्राज्य घट्ट केलें. मुखार बाराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक सावन चोल घराण्याक देंवती कळा लागली. चवदाव्या शेंकड्याचे सुरवेक मुसलमानांच्या एकाफाटल्यान एक आयिल्ल्या घुरयांक लागून चालुक्य घराण्याचो नाश जालो.

**मध्ययुग :** रोमन साम्राज्याची विभागणी जाल्याउपरांत युरोप आनी आशियांत म्हत्वाचे बदले जाले. त्या वेळार भारताचे रोमन साम्राज्याकडेन वेपारी संबंद आशिल्ल्यान भारताच्या वेपाराचेरूय वायट परिणाम जाले. सातव्या शेंकड्याच्या मध्याक अरबस्तानाक, अरबांच्यो साबार ल्हान ल्हान झुजारी टोळयो आशिल्ल्यो. पूण ह्या तेंपार इस्लाम धर्मांत जाल्ली वाड ह्या अरबी टोळयांक एकठांय हाडपाक कारणीभूत थरली. आठव्या शेंकड्याच्या मध्याक बगदादचो अब्बासीद हो खलीफ म्हूण सत्तेर आयलो. मुखार सुमार देडशें वर्सां तरी अब्बासीद हें मध्य आशियांतलें एक बळिश्ट साम्राज्य म्हूण प्रसिध्द आशिल्लें. परसिया, तुर्कस्थान आनी अफगाणिस्थान हांचेवयलो अब्बासिद खलिफांचो शेक कमी जातकूच हांगा साबार ल्हान ल्हान मुसलमान राज्यां उदयाक आयलीं. आपल्या राज्याचो विस्तार करचो ह्या हेतान मुसलमान राजांनी आशियांतल्या ह्या देशांचेर घुरयो घालपाक सुरवात केली. मुहम्मद घोरी हाणें बाराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक उत्तर भारतांत आपली सत्ता स्थापीत करचे पयलीं भारताचेर साबार खेपो घुरयो घाल्ल्यो.

मुहम्मद घोरी उपरांत १२०६त ताचो प्रांताधिकारी कुत्बूद्दीन एबक हाणें गझनी लागचे सगळे संबंद तोडून तो स्वतंत्र सुलतान जालो. मुसलमानांच्या साबार घुरयांक लागून उत्तर हिंदुस्थानांतली चडशी राज्यसत्ता काबार जाल्ली. हाका लागून कुत्बूद्दीन हाका आपल्या राज्याचो विस्तार करपाक सोंपे जालें. कुत्बूद्दीन हो मुळांत गुलाम आशिल्ल्यान ताच्या घराण्यांत गुलाम घराणें अशें नांव मेळ्ळें. गुलाम घराण्याची सत्ता १२८७ मेरेन तिगून उरली. उपरांत खल्जी घराणें सत्तेर आयलें. अलाउद्दीन खल्जी हाणें राजपूतांच्या साबार भागांचेर जैत मेळयल्लें. ताणें १२९४ त देवगिरी हांगाच्या यादवांचोय पराभव केलो. खल्जींचो शेक कमी जालो तसो तुघलक घराण्यान दिल्लीची सुलतानीयन हातासली. मुहम्मद तुघलक हाणें आपल्या साम्राज्याचो विस्तार मदुरासावन काश्मीर मेरेन वाडयलो. १३९९ त तैमुर हाणें भारताचेर घुरी घालून हांगाची खूब गिरेस्तकाय लुटून व्हेली. हाचो परिणाम म्हळ्यार तुघलक घराण्याची सत्ता दुबळी जाली. हाका लागून उत्तर भारतांत साबार ल्हान ल्हान राज्यां निर्माण जालीं. पंदराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक दक्षिण भारतांत बहामनी राज्याचे कुडके जावन अहमदनगर, विजापूर, गोवळकोंडा, बीदर आनी एलिचपूर हांगा पांच स्वतंत्र राज्यां निर्माण जालीं.

दिल्लीच्या सुलतानांची सत्ता दुबळी जाल्याउपरांत उत्तर भारतांत कांय स्वतंत्र राज्यां निर्माण जालीं. हे संधीचो फायदो घेवन, सोळाव्या शेंकड्याच्या तिसऱ्या दसकांत मोगल राजवंशान दिल्लींत आपली सत्ता स्थापीत केली. कांय इतिहासकारांच्या मतान मोगल हो तुर्कांचोच एक फांटो आशिल्लो. मोगलांनी १४व्या शेंकड्यांत इस्लाम धर्म आपणायलो. पंदराव्या शेंकड्याच्या सुमाराक मध्य आशियांतल्या चडशा प्रदेशांचेर ह्या वंशाचें राज्य आशिल्लें. १५१९ ते १९२४ ह्या तेंपार बाबरान भारताचेर पांच घुरयो घाल्यो. आपल्या साम्राज्याचो विस्तार करप आनी खूब संपत्ती एकठांय करप होच ताचो मुखेल हेत आशिल्लो. १५२४ त ताणें वायव्य भारताचेर घुरी घालून पंजाबाचो चडसो भाग आपल्या शेकातळा हाडलो. उपरांत १५२६ त ताणें पानिपतच्या पयल्या झुजांत इब्राहीम लोदी हाचो पराभव केलो. अशे रितीन दिल्लीच्या सुलतानशाहीचो शेवट जावन थंय मोगल पातशाही सुरू जाली. सुरवेक मोगलांची राजधानी आग्र्याकूच आशिल्ली. शाहजहानान तिची सोबीतकाय वाडयली.



हुमायूँचें थडें

दिल्लीची गादी हातासल्या उपरांत बाबरान मध्य हिंदुस्थानांतले साबार प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडले. १५२७ त चितोडचो राणा सांगा हाणें ताका विरोध केल्लो. पूण बाबरान ताचो पराभव केलो. बाबरा उपरांत ताचो चलो हुमायूँ हाका साम्राज्य विस्तार करपाक शक्य जालें ना. त्या तेंपार बिहार आनी बंगाल प्रदेशाचेर सूर घराण्याच्या शेरखानाचो शेक चलतालो. १५३९ त शेरखान हाणें हुमायूँचो पराभव केलो. शेरखानान दिल्ली आनी आग्रा काबीज करून थंय अफगाणांची सत्ता परतून स्थापीत केली. १५५५ त हुमायूँन दिल्लीचेर घुरी घालून शेरखानाचो पराभव केलो. हुमायूँनच्या मरणाउपरांत ल्हान पिरायेंतूच अकबर बादशाहा जालो. १५६० ते १५६५ मेरेनच्या काळांत अकबरान ल्हान ल्हान राज्यांक कवळून आपलें साम्राज्य अहमदनगर मेरेन वाडयल्लें. सुरवेक ताका रजपुतांनी खर विरोध केल्लो, पूण तांचेकडेन कबलाती करून रजपुतांक आपले मांडलीक करून घेतले. अकबराचो चलो जहांगीर हो व्यसनी आशिल्ल्यान ताणें राज्यकारभारांत व्हडलेंशें लक्ष घालें ना. शहाजहान बादशाहा जाल्याउपरांत ताणें दक्षिणेकडेन आपल्या साम्राज्याचो विस्तार करपाचें काम चालूच दवरलें. शहाजहान हो कलेचोय मोगी आशिल्लो. कांय इतिहासकारांनी शहाजहानाच्या काळाक भारताचे वास्तूकलेचो 'भांगरा काळ' अशें म्हळां. शहाजहाना उपरांत आपल्या भावांकडेन औरंगजेबान झगडीं करून राजसत्ता हातासली. ताणें आपली राजधानी आग्र्याकसावन दिल्लीक व्हेली. औरंगजेबान आपल्या काळांत जबर धर्मीक अत्याचार केले. औरंगजेबाच्या तेंपार मोगलांची सत्ता लागीं लागीं सबंद भारतांत पातळिल्ली. पूण मराठ्यांचो पुरायपणान पराभव करपाक ताका यश आयलें ना.

सतराव्या शेंकड्यांत भारताचे नैऋत्येक निजामशाही, आदिलशाही आनी कुतूबशाही हांच्या दरबारांत भोसले, मोरे, घाटगे, निंबाळकर आनी हेर घराणीं वावुरतालीं. ह्या घराण्यांचे देखरेखीखाला कांय जहागीरीय आशिल्ल्यो. पूण रजपूतांसारकीं तांचीं स्वतंत्र राज्यां नाशिल्लीं. पूण १६७४ त रायगड किल्ल्याचेर आपलो अभिशेक करून भोंसले



जंतर मंतर - जयपूर

घरण्यांतल्या शिवाजीन स्वतंत्र मराठा राज्याची स्थापणूक केली. पिरायेच्या अठराव्या वर्सासावन शिवाजीन मावळयांक एकठांय करून, पुण्या भोंवतणचे तोरणा, राजगड आनी कोंडाणा किल्ले आपल्या शेकातळा हाडले. उपरांत ताणें साबार मराठा सरदारांक एकठांय हाडून मराठा स्वराज्याची बुनयाद घाली. शाहींभितर चलिल्लें यादवी झूज तशेंच आदीलशाही आनी मोगलांभितर चलिल्ल्या झुजाक लागून सुरवेक शिवाजीक आपल्या राज्याचो विस्तार करपाक सोंपें जालें. पूण उपरांत मराठा राज्य तिगून दवरपाखातीर ताका आदिलशाही आनी मोगल सरदारांकडेन झूजत रावचो पडलो. ताणें वेगवेगळया मराठा घराण्यांक एकठांय हाडून व्हड सैन्य उबारिल्लें. उदकांत दुर्ग उबारून शिवाजीन आरमाराचीय स्थापणूक केल्ली.

शिवाजी उपरांत ताचे चले संभाजी आनी राजाराम हांच्यांत वैर निर्माण जाल्ल्यान ते मराठा साम्राज्याचो विस्तार करपाक अपेशी थारले.



नानासाहेब पेशव्याची म्होर

सतराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन औरंगजेबाच्या सैन्यान मराठा साम्राज्याचेर घुरी घाली तेन्ना राजारामा उपरांत ताची बायल ताराबाई आनी धनाजी जाधव, संताजी घोरपडे आनी हेर मराठ्या सरदारांनी मोगलांआड स्वातंत्र्य झूज उबारलें. १७०७ त औरंगजेबाच्या मरणा उपरांत संभाजीचो चलो शाहू हाची मोगल बंदखणींतल्यान सुटका जाली. शाहू महाराष्ट्रांत आयल्या उपरांत ताराबाईचो विरोध आसून लेगीत ताणें सातारा हांगा आपली राजधानी उबारली. उपरांत ताराबाईन कांय मराठा सरदारांच्या आदारान कोल्हापूर हांगा आपले स्वतंत्र राजधानीची स्थापणूक केली. अशे रितीन शिवाजीन एकवटीत केल्ले मराठी सत्तेचें विभाजन जालें. शाहून छत्रपती मुकूट घेतल्याउपरांत ताणें बाळाजी विश्वनाथ हाका आपलो पेशवो नेमलो. उपरांत बाळाजी विश्वनाथान मराठा राज्यकारभाराचीं सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. शाहून सगळे हक्क पेशव्यांक दिल्ल्यान मराठा राजवटींत पेशव्यांचें युग सुरू जालें. पेशवे कुशळ बुध्दीचे आनी महापराक्रमी आशिल्ले. तांणी सातारा ते दिल्लीमेरेन आपणालो शेक गाजयल्लो. पूण हें तांचें साम्राज्य चौथाई सरदेशमुखी खंड वसूल करपा इतलेंच मर्यादीत आशिल्लें. १७६१ त अफघाणचो अहमदशाह अब्दाली हाणें दिल्लींत मराठा सैन्याचो पराभव केलो. उपरांत व्हडलो माधवराव हाणें मराठा सरदारांक परतून एकठांय हाडपाचे यत्न केले. पूण ब्रिटीश आनी मराठ्यां भितर जाल्ल्या तीन झुजांक लागून पेशव्यांचो अंत जालो (१८१७-१८).

सतराव्या शेंकड्याच्या मध्याक दक्षिणेक मराठा राज्यसत्तेचो तर उतर भारतांत शीख राजसत्तेचो उदय जालो. सुरवेक गुरू नानक हाणें आनी उपरांत पयल्या तीन शीख गुरूंनी शीख समाजांत धर्मभावना निर्माण करपाचे आनी तांकां स्वाभिमान शिकोवपाचे यत्न केले. मुखार अंगद आनी अमरदास हांणी गुरू नानकान निर्माण केल्ल्या धर्माक नवें रूप दिवन शीख पंथाची स्थापणूक केली. अमरदास आनी ताचो शिश्य रामदास हांणी शीख संप्रदायाचो खूब विस्तार केलो. 'राज्य करेगा खालसा' हें शीख लोकांचें सपन मोडून उडोवपाखातीर मोगलांनी पंजाबाचेर घुरयो घालून कांय शीख गुरूंची हत्त्या केली. मोगलांचे त्रास थांबोवचे म्हूण शीख गुरूंनी तांचे आड साबार बंडां उभारिल्लीं. उपरांत अठराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक रणजितसिंग हाणें शीख संप्रदायांभितर निर्माण जाल्ले पंथभेद पयस करून तशेंच तांकां एकठांय हाडून पंजाबांत स्वतंत्र शीख राज्याची स्थापणूक केली.

**ब्रिटीश राजवट :** सोळाव्या शेंकड्यांत वेपाराच्या निमतान युरोपी लोक उदका मार्गांतल्यान भारतांत आयले. आपल्या वेपाराची सोय म्हूण सुरवेक दर्यादिगांनी तांणी साबार वखारी उबारिल्ल्यो. पूण मुखार वेपारावांगडा राजकीय हक्क मेळोवपाखातीर, युरोपीय वसाहतकारांभीतर सर्त सुरू जाली.

वेपार आनी धर्म प्रसारा खातीर, उदका मार्गांतल्यान हिंदुस्थानांत येवपी पुर्तुगाल हें पयलें राष्ट्र आशिल्लें. १४९८ त वास्को-द-गामा हो पुर्तुगेज खलाशी 'कॅप ऑफ गूड होप' हुंपून कालिकत हांगा पावलो. उपरांत सोळाव्या शेंकड्याचे निमाणे मेरेन थळाव्या राजांचो पराभव करून पुर्तुगेजांनी गोंय, दीव, दमण, वसय, मुंबय, चैल, मंगळूर आनी कोचीन हे प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडले. पुर्तुगेजांच्या फाटल्यान डच, फ्रेंच आनी ब्रिटीश वसाहतकार हांगा आयले. मुखार आपल्या बळिश्ट

आरमाराच्या आनी सैन्याच्या आदारान ब्रिटिशांनी पुराय हिंदुस्थानांत आपलो शेक बसयलो. ब्रिटीश हिंदुस्थानांत, पुर्तुगेज सत्तेखाला निमाणेकडेन फकत गोंय, दमण, दीव, दादरा आनी नगरहवेली हे प्रदेश उरले.



बों जिजसची इगर्ज - गोंय

सोळाव्या शेंकड्यांत इंग्लंडची राणी एलिझाबेथ, हिणें लंडनच्या कांय खाजगी वेपाऱ्यांक उदेंत राश्ट्रांकडेन वेपार करपाच्यो कांय खास सवलती दिल्ल्यो. १६१२ त ब्रिटीश ईस्ट इंडिया कंपनीक सुरत हांगा वखार उभारपाक मोगल बादशाह जाहांगीर हाणें परवानगी दिली. उपरांत कंपनीन उत्तर भारताच्या हेर प्रदेशांनीय आपलीं वेपारी केंद्रां उबारलीं. १६६८ व मुंबय प्रदेश तांच्या शेकातळा आयल्या उपरांत, मुंबय हें ब्रिटिशांचें म्हत्वाचें वेपारी केंद्र थरलें. ब्रिटीश हिंदुस्थानांत पावले तेन्ना हांगाच्या राज्यांभितर आपसांत वैर आशिल्ल्यान देशांत जाय तसो एकवट नासलो. हे परिस्थितीचो फायदो घेवन, सुरवेक ब्रिटिशांनी उत्तर भारतांतले साबार प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडले. दक्षिण भारतांत ब्रिटिशांक आपली सत्ता घट्ट करपाखातीर सुरवेक मराठ्यांआड तीन झुजां करचीं पडलीं. म्हैसूरचो हैदर अली आनी ताचो चलो टिपू सुलतान हांणी फ्रेंच वसाहतकारांचो आदार घेवन ब्रिटिशांक खर विरोध केल्लो. पूण ब्रिटिशांनी ताचो पराभव केलो. उपरांत ब्रिटिशांनी वेगवेगळ्यो येवजण्यो चालीक लावन, हिंदुस्थानांतलीं साबार ल्हान ल्हान राज्यां खालसा केल्यान १८५० मेरेन कांय प्रदेश सोडल्यार सबंद हिंदुस्थान ब्रिटीश ईस्ट इंडिया कंपनीच्या ताब्यांत गेलो.

ब्रिटीश ईस्ट इंडिया कंपनीक हिंदुस्थानांत थिरपण आयल्या उपरांत तांणी वेगवेगळ्यो येवजणो चालींत हाडून हांगाचीं ल्हान ल्हान संस्थानां खालसा केल्लीं. हाका लागून संस्थानिकांमदीं घुस्पट पातळिल्लो. १८५७ त बंगालच्या शिपायांनी ब्रिटीश कंपनीआड उठाव केल्लो तेन्ना ज्यांचीं राज्यां खालसा जाल्लीं अशा साबार माजी संस्थानिकांनी ह्या उठावांत वांटो घेतिल्लो. ह्या उठावाफाटल्यान धर्मीक, अर्थीक, समाजीक, सैनिकी आनी राजकीय अशीं साबार कारणां आशिल्लीं. ब्रिटिशांआड उठाव घडोवन हाडचेखातीर जायती पूर्व तयारी करूंक नाशिल्ली. तेचपरी शिपाय आनी संस्थानीक,हांचेमदीं एकमत नाशिल्लें. हाका लागून ब्रिटिशांक हो उठाव मोडून उडोवपाक यश आयलें. ह्या उठावाउपरांत ब्रिटीश पार्लमेंटान हिंदुस्थानाचो कारभार ब्रिटीश इंडीया कंपनीकडच्यान आपल्या ताब्यांत घेतलो. लॉर्ड कॅनिंग हो ब्रिटीश हिंदुस्थानाचो पयलो व्हायसरॉय आनी गर्व्हनर जनरल जालो. व्हिक्टोरीया राणयेक भारताची सम्राज्ञी म्हूण जाहीर केली. १८५७ त जाल्ल्या उठावाक ब्रिटीश इतिहासकारांनी शिपायांचो उठाव अशें म्हळां तर कांय भारतीय इतिहासकारांनी ताका भारताचें पयलें स्वातंत्र्यझूज अशी संज्ञा दिल्या.

**भारतीय स्वातंत्र्य चळवळ :** १८५७ च्या उठाव उपरांत ब्रिटीश सरकारान भारतांत आपलें शासन घट्ट करपाखातीर सगळे उपाय घेतले. उठावा उपरांत ब्रिटीश अधिकाऱ्यांनी आनी हेर ब्रिटीश वेवसायिकांनी भारतीयांआड सुडाचें धोरण आपणायलें. उंचेल्या पदांचेर फकत अधिकाऱ्यांची नेमणूक जाताली. १८६१तल्या नव्या फौजदारी कायद्याप्रमाण गोऱ्या गुन्यांवगारांआडचे खटले फकत गोऱ्या न्यायाधिशांमुखार चलताले. हाचो गैर फायदो ब्रिटीश लोक घेवपाक लागले. तशेंच भारतीय लोकांक हत्यारां बाळगुपाची बंदी आशिल्ली. ह्या सतावणुकांक लागून राश्ट्रवादाक नेट येवपाक लागलो. ब्रिटिशांनी लागू केल्ले आधुनिक अशे इंग्लीश शिक्षण पद्दतीक लागून भारतीयांमदीं एकराश्ट्रीयत्व, समान नागरिकत्व, मानव समानता अशा मुल्यांची रूजवण जाली. तशेंच समाजीक, धर्मीक, शिक्षणीक प्रबोधनांतल्यान भारतीय शिक्षीत लोकांमदीं स्वाभिमानाची आनी स्वराज्याची भावना जागृत जाली.

समाजांत पातळिल्ले साबार लोकभेद पयस करून भारतीय लोकांक एकठांय हाडपाखातीर म्हूण एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक इंडियन ॲसोसिएशन ऑफ बेंगॉल, ब्रिटीश इंडियन ॲसोसिएशन, बॉम्बे ॲसोसिएशन, सार्वजनिक सभा आनी हेर संघटना भारताच्या वेगवेगळ्या प्रदेशांनी अस्तित्वांत आयल्यो. उपरांत ह्या वेगवेगळ्या संघटनांचे प्रेरणेंतल्यान आनी हिंदुस्थान हें एकसंघ राश्ट्र आसा ही भावना मनांत बाळगून २२ डिसेंबर १८८५ दिसा 'इंडियन नॅशनल कॉंग्रेस' हे सर्वसमावेशक अशे संघटनेची स्थापणूक जाली. ॲलन ऑक्टेव्हिअन ह्यूम हो माजी ब्रिटीश अधिकारी इंडियन कॉंग्रेसचो शिल्पकार आशिल्लो. उमेशचंद्र बॅनर्जी हो कॉंग्रेसचो पयलो अध्यक्ष जालो. सुरवेक कांय

शिक्षीत लोक आनी जमीनदार हे संघटनेचे सदस्य आशिल्ले. उपरांत सदस्यांचो आंकडो वाडत गेलो. उपरांत दर वर्सा इंडियन काँग्रेसचें अधिवेशन भरपाक लागलें. काँग्रेसचो वावर चालींत दवरपाखातीर दर वर्सा नवो अध्यक्ष वेंचून काडटाले. पयल्या अधिवेशनांत धर्मभेद, वंशभेद, प्रांतभेद पयस करून अखिल भारतीय एकराश्ट्रीयता निर्माण करपाचें थरयलें. मुखार वेगवेगळया अधिवेशनांवरवीं काँग्रेस सदस्यांनी ब्रिटिशांकडेन आपणायली, तशेंच स्वदेशी चळवळ सुरू केली.

इंग्लीश शिक्षणाचो लाव हिंदुंप्रमाण मुसलमान लोकांक मेळचो म्हूण सरसय्यद अहमद खाँ हाणें अलिगड कॉलेज आनी उपरांत विद्यापिठाची स्थापणूक केली. सय्यद अहमद हाणें मुस्लीम शिक्षण प्रसाराखातीर 'मोहमडन एज्युकेशन कॉन्फरन्स' संस्थेची स्थापणूक केली. १८७७ त अमीर अली खाँ ह्या तरणाट्यान 'नॅशनल मोहमंडन असोसिएशन' ची



भारतीय राश्ट्रीय काँग्रेसीचें पयलें अधिवेशन (१८८५).

साबार मागण्यो केल्ल्यो. तातूंत शासनयंत्रणांत लोकांच्या हिताखातीर सुदारणा करची, इंग्लंडांतल्या राज्यकर्त्यांक भारताचे राजकीय आनी अर्थीक परिस्थितीची जाणीव करून दिवप, विधिमंडळात सरकारनियुक्त सदस्यांचे सुवातेर लोकनिर्वाचीत सदस्य वेंचून काडप, लश्करी खर्चांत कपात करप, उंचेल्या अधिकारपदांचेर हिंदी लोकांचीय नियुक्ती करप अशा साबार मागण्यांचो आस्पाव आशिल्लो.

सुरवेक इंडियन नॅशनल काँग्रेसच्या वावुरप्यांनी उदारमतवादी पद्दत (Liberal Policy) आपणायली. पूण ब्रिटीश सरकार, काँग्रेसच्या विनंतीअर्जांक दाद दिना तें पळोवन कांय राजकीय नेत्यांनी चड परिणामकारक कार्यावळी आंखल्यो. १९०६ त कलकत्ता हांगा जाल्ल्या अधिवेशनांत फुडाऱ्यां भितर मतभेद जावन नेमस्त (moderetes) आनी जहाल (exhimiss) अशे दोन पंगड निर्माण जाले. गोपाळ कृष्ण गोखले हाच्या फुडारपणाखाला नेमस्त पंगड (Moderate group) तयार जालो तर बाळ गंगाधर टिळक हाच्या फुडारपणाखाला जहाल पंगड (Exhimist group) तयार जालो. टिळक, लाला राजपत रॉय आनी बिपीन चंद्र पाल हांणी पुराय स्वातंत्र्याची मागणी केल्ली. स्वातंत्र्य चळवळीक नेट येवचो म्हूण तांणी ब्रिटीश वस्तुंचेर बहिश्कार आनी कायदेभंग पद्दत

स्थापणूक केली. भारतीय मुसलमान जातीचीं राजकीय उद्दिश्टां साद्य करून घेवप हो हे संस्थेचो मुखेल हेत आशिल्लो. नॅशनल काँग्रेसच्यो दिसानदीस मागण्यो वाडत आसात, हें पळोवन तिका शह दिवपाच्या उद्देशान ब्रिटीश राज्यकर्त्यांनी मुसलमानांचो पाखो घेवपाचें धोरण आपणायलें. ब्रिटिशांनी तांकां साबार सवलतीय दिल्यो.

ह्या सगळया कारणांक लागून १९०६ त मुस्लिम लीग हे मुसलमान समाजाचें प्रतिनिधीत्व करपी संस्थेची स्थापणूक जाली. मुस्लीम लिगान भारताच्या स्वातंत्र्याचे चळवळीचे अखेर मेरेन धर्मवादाची परंपरा चलयली.

३० डिसेंबर १८९८ दिसा लॉर्ड कर्झन हो नवो व्हायसरॉय म्हूण भारतांत आयलो. ह्या वेळार राश्ट्रवादाचो प्रभाव महाराश्ट्र आनी बंगाल प्रांतांत चड आशिल्लो. हो राश्ट्रवादाचो प्रभाव मोडून काडपाच्या हेतुनूच लॉर्ड कर्झन भारतांत आयिल्लो. ब्रिटीश राजवटीचें दुहीचें राजकारण सादपाच्या उद्देशान ताणें, पुराय उदेंत बंगाल आसामाक जोडून उदेंतकडेन एक व्हड मुसलमान बहुमतांचो एक प्रांत तयार केलो आनी अस्तंत बंगाल-बिहार-ओरिसा हांगाच्या बंगाली भाशिकांक अल्पमतांत दवरून बंगाल फाळणेची घोशणा केली. पुराय भारतांत बंगाल फाळणेचो विरोध जावपाक लागलो. साबारकडेन उठाव जाले.

सशस्त्र क्रांतिकारकांनी १९०७ सावन स्वातंत्र्य चळवळीचें नवें पर्व सुरू केलें. बंगाल, पंजाब आनी महाराष्ट्रांत सशस्त्र क्रांतिकारकांचे गट अस्तित्वांत आयले. सलग तीन वर्सां आंदोलन करून लेगीत बंगाल फाळणी रद्द जायना म्हूण कांय तरणाट्यांनी हिंसक मार्ग आपणायले. सुरवेक अजितसिंग, वि. दा. सावरकर, सुफी अंबाप्रसाद, लालचंद फालक, खुदीराम बोस, मदनलाल धिंग्रा हे सुरवेच्या काळांतले म्हत्वाचे क्रांतिकारक आशिल्ले. सावरकर हाणें अभिनव भारत हो क्रांतिकारी गट तयार केलो. बंगाल, पंजाब आनी महाराष्ट्रांतल्या क्रांतिकारक नेत्यांनी सुरवेक उकत्या प्रचाराचेर भर दिल्लो. तेखातीर तांणी 'युगांतर' आनी 'संध्या' हीं दोन खबरांपत्रां सुरू केलीं. परदेशांत शिकूंक गेल्ल्या कांय तरणाट्यांनी हेच विचारसरणीचे प्रचार सुरू केले. श्यामजी कृष्णवर्मा हाणें लंडनांत 'इंडियन सोशॅलॉजिस्ट' हें नेमाळें काडलें आनी भारतांतल्यान येवपी तरणाट्यांखातीर 'इंडिया हाउस' हें वसतिगृह चालू केलें. खुदीराम बोस आनी प्रफुल्ल चाकी हे दोगूय ह्या सशस्त्र क्रांतिपर्वाचे पयले हुतात्मे थरले (१३ जून १९०८). उपरांत मदनलाल धिंग्रा हाणें लंडनांत लॉर्ड कर्झनाचो वध केलो. १९०८ त वि. दा. सावरकरान रचिल्ल्या क्रांतिगीताखातीर ताका जल्मठेपेची ख्यास्त जाली. तिचो सूड म्हूण अभिनव भारताच्या कांय तरणाट्यांनी नासिकचो कलेक्टर जॅक्सन हाचो वध केलो. बंगाली क्रांतिकारकांनी दोन- तीन वर्सांनी बंगालांत सु. १५० गुप्तसंघटना उबारिल्ल्यो. बंगालचो राशबिहारी बोस हाणें आपल्या दिल्ली-पंजाब-बंगालच्या वांगड्यांच्या आदारान दिल्लीक व्हायसरॉयचे अंबारीचेर भर मिरवणुकेंत बाँब उडयलो. निमाणेंकडेन सरकारान १९११ त बंगालची फाळणी रद्द केली. पूण क्रांतिकारकांनी आपलो वावर चालूच दवरलो.

कर्झनच्या उपरांत लॉर्ड मिंटो व्हायसरॉय म्हूण भारतांत आयलो. मिंटोच्या तेंपार राश्ट्रीय चळवळींक नेट आयिल्लो. त्यो मोडून उडोवपाखातीर मिंटोन दडपशाय सुरू केली. जहाल पंगडान आपणायल्ली स्वदेशी आनी वंगभंग चळवळ, बंगाल फाळणेक लागून पातळिल्लो तणाव आनी क्रांतिकारकांच्या हालचालींक लागून १९०९ त हिंदी लोकांक शांत करपाखातीर ब्रिटीश सरकारान 'इंडियन काउन्सिल ॲक्ट' पास केलो. तो ॲक्ट मोर्ले-मिंटो सुदारणा कायदो म्हूण प्रसिध्द आसा. पूण मोर्ले-मिंटो सुदारणा कायद्याक लागून भारतीयांचें समाधान जालें ना. जहाल पंगडान आनी क्रांतिकारकांनी आपल्यो हिंसक हालचाली चालूच दवरल्यो. १९१० त मिंटोचे सुवातेर हार्डिंग व्हायसरॉय म्हूण आयलो. ताच्या तेंपार म्हळ्यार १९११ त बंगालची फाळणी रद्द केली. ह्याच तेंपार मुस्लिम लिगच्या आदल्या आनी नव्या वावुरप्यांभितर मतभेद जावन आगा खाँ सारकिल्ले आदले वावुरपी लीगांतल्यान भायर सरले. उपरांत मुहम्मद जिन्ना आनी मुहम्मद अली सारकिल्ल्या तरणाट्यांनी लीगाचीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. १९१३ त लीगाच्या नव्या वावुरप्यांनी आनी काँग्रेसच्या मुखेल्यांनी भारताच्या स्वातंत्र्यांखातीर एकठांय येवन वावुरपाचें थरयलें. पयल्या म्हाझुजांत तुर्कस्थान जर्मन राश्ट्राक मेळ्ळां म्हूण युरोपी राजकारणांत ब्रिटनाक तुर्कस्तान विरोधी भुमिका घेतिल्ली. हाका लागून तरणाटे, सुशिक्षित मुसलमान आनी सगळ्या पंथाच्या मौलवीयांनी ब्रिटन विरोधी भूमिका घेतली. लीगाच्या नव्या वावुरप्यांनी स्वराज्य हें लीगाचें नवें धोरण थरयलें. १९१४ त ॲनी बेझंट ब्रिटनसावन भारतांत आयली. भारतांत येवन तिणें होमरूल आंदोलन सुरू केलें. टिळकानूय तातूंत वांटो घेतलो. उपरांत १९१९ त भारतमंत्र्यांच्या साबार मागण्यांक लागून मॉटफर्ड मॉटॅग्यू-चॅल्म्सफोर्ड) सुदारणा कायदो पास जालो. ह्या कायद्या प्रमाण मध्यवर्ती विधिमंडळांत वेचणुकेची पद्दत सुरू जालीं. दर एकी प्रांतांत द्विदल राज्यपद्दत अस्तित्वांत आयली.

पूण मॉटफर्ड आयोगान सुचयल्ल्या दुरुस्ती कायद्यांविशीं भारतीय नेत्यांचें समाधान जालें ना. तांणी देशांत साबारकडेन उठाव घडोवन हाडले. हे उठाव हेरकडेन पातळचे न्हय म्हूण ब्रिटीश सरकारान रोव्लट आयोगाची नेमणूक करून उठाव आनी सभा मोडून उडोवपाचे खाशेले अधिकार ब्रिटीश सरकाराक दिले. ह्या नव्या आयोगाच्या आदारान ब्रिटिशांनी देशभर दडपशायेचो कायदो लागू केलो. साबारकडेन जमाव आनी उठाव मोडून उडोवपाखातीर गोळिबार केलो. ह्या कृत्याचो पुराय देशांत निशेध जावपाक लागलो. १३ एप्रिल १९१९ दिसा अमृतसरचे जालियनवाला बागेंत ब्रिटिशांच्या निशेर्धांत अशीच एक, सुमार वीस हजार लोकांची सभा भरिल्ली. ही सभा चालू आसतनाच ब्रिटीश लश्करी अधिकारी जनरल ओ डायर हाच्या फुडारपणाखाल निशस्त्र लोकांचेर खर गोळिबार जालो. गोळिबारांत तशेंच आकांतान जाल्ले थंयचे गच्चे मुठ्ठींत शेंकड्यांनी लोक मेले आनी हजारांनी जखमी जाले. हे घडणुकेक लागून सबंद भारतांत तिडकीचें ल्हार उसळ्ळें.



जालियनवालाबाग हुतात्मा स्मारक - अमृतसर

पयल्या म्हाझुजावेळार गांधीजी आनी काँग्रेसच्या हेर फुडाऱ्यांनीच हिंदुस्थानाचो ब्रिटिशांक तेंको परगटायल्लो. पूण म्हाझुजांत तुर्कीचो पराभव करून ब्रिटिशांनी थंयची सुलतानशाय मोडून उडयल्या उपरांत संवसारांतल्या हेर मुसलमानांवांगडा भारतीय मुसलमानांनीय भारतांत खिलाफत चळवळ सुरू केली. हे संधीचो फायदो घेवन गांधिजीन स्वातंत्र्य चळवळींत मुसलमान आनी हिंदूंक एकठांय हाडपाचे यत्न केले. तेखातीर

म्हाझूज काबार जाल्याउपरांत ताणें खिलाफत असहकार आंदोलन सुरू केलें. १९२० त दिल्ली शारांत जाल्ल्या काँग्रेसच्या अधिवेशनांत गांधीजीन असहकार आंदोलनाची कार्यावळ व्यासपिठावयल्यान जाहीर केली. उपरांत नागपूरच्या अधिवेशनांत असहकारीतेच्या आंदोलनाचो थाराव संमत करप जालो. सरकारी कार्यालयां, न्यायालय आनी सरकारी शिक्षणीक संस्थांकडेन भारतीयांनी सहकार धरलो. ह्या वेळार नामनेचे न्यायाधीश मोतीलाल नेहरू आनी चित्तरंजन दास, हेर न्यायधीश आनी खूब सरकारी कर्मचाऱ्यांनी राजिनामे दिले. सुभाषचंद्र बोस हाणेंय भारतीय सिवील नोकरेचो राजीनामो दिलो. हें आंदोलन सुमार दोन वर्सांमिरेन चालू आशिल्लें. विदेशी वस्तुंचेर बहिश्कार वा तांची होळी पेटोवप, असल्या प्रकारांक नेट आयलो. पूण चौरीचुराचे हिंसक घडणुकेक लागून गांधीजीन आंदोलनाचेर तात्पुरती बंदी घाली. असहकारी आंदोलनाक नेट आयिल्लो आसतनाच गांधीजीन ताचेर बंदी घाली म्हूण काँग्रेसच्या कांय नेत्यांनी तशेंच लोकांनीय ताचेर आपलो असंतोश परगटायलो. उपरांत चौरीचुरा हिंसक घटनेची न्यायालयीन चवकशी जाली. तातूंत हे हिंसक घटनेचो असहकार चळवळीकडेन संबंद जोडून तांणी गांधीजीक दोशी थारायलो. मार्च १९२२त ताका स वर्सांखातीर पुण्याचे एरवडा बंदखणींत दवरलो. उपरांत खिलाफत चळवळूय मंद जाली. १९२४ त गांधीजीची भलायकी इबाडिल्ल्यान ताची बंदखणींतल्यान सुटका केली.

गांधीजीक बंदखणीची ख्यास्त जाल्याउपरांत काँग्रेसच्या नेमस्त पंगडान मुखेलपणान विधायक कार्यावळींचेरूच भर दिलो. पूण चित्तरंजन दास, मोतिलाल नेहरू, न. चि. केळकर हांणी १९२३ त आपल्या कांय सांगात्यांच्या आदारान काँग्रेसीभितरूच 'स्वराज्य पक्षाची' स्थापणूक करून मॉंटफोर्ड आयोगान सुचयल्ल्या विधिमंडळांत वचून वावुरपाचें थरयलें. उपरांत विधिमंडळ वेंचणुकेंत यश मेळिल्ल्या समाजवादी पक्षाच्या वांगड्यांनी सरकारी कामांत आडखळ हाडपाचो वावर चालू दवरलो.

हिंदू आनी मुसलमान खिलाफत असहकार आंदोलनावेळारूच एकठांय येवन स्वातंत्र्याखातीर झगडले. पूण उपरांत तांच्यांत सदांच राजकीय आनी धर्मीक प्रस्नावयल्यान मतभेद जावपाक लागले. १९२३ त 'हिंदू महासभा' संस्थेची पुनर्रचणूक जाल्ल्यान धर्मीक वादाक आनीक जल मेळळें.

रशियेंत कम्युनिस्ट राजवट स्थिर जाल्या उपरांत, ते अशीच राज्यक्रांती हेर देशांनी घडोवन हाडपाखातीर थंयच्या तरणाट्यांक आदार करपाक लागले. भारतीय क्रांतिकारकांकूय प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्षपणान रशियेकडच्यान आदार मेळटालो. भारतीय क्रांतिकारकांनी स्वातंत्र्य जोडपाखातीर सशस्त्र क्रांतिकारी मार्ग आपणायल्लो. १९२० ते १९३६ मेरेन तांणी भारतांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांनी ब्रिटिशांआड खूब सशस्त्र उठाव केले. कांय सरकारी अधिकाऱ्यांची हत्त्याय केली. हे तांचे डावपेच चडकरून परदेशांत रचप जाताले. ब्रिटिशांनीय क्रांतिकारकांआड खर पावलां उबारून साबार क्रांतिकारकांक गोळार चडयले.

ब्रिटीश सरकारान १९२७ त नेमिल्ल्या सायमन आयोगाक लागून जनतेंत परत असंतोश निर्माण जालो. नव्यान आंदोलन सुरू जालें. काँग्रेस, मुस्लिम लीग आनी हेर संस्थांनीय त्या आयोगाचेर बहिश्कार घालो. ह्याच वेळार काँग्रेसच्या वावुरप्यांभितर 'वसाहतीचें स्वराज्य' काय 'पुराय स्वराज्य' ह्या प्रस्नाचेर वाद चलतालो. सुभाषचंद्र बोस आनी हेर कांय तरणाट्यां वावुरप्यांनी काँग्रेसीभितरूय 'इंडियन इंडेपेंडन्स यूथ लीग' ही संस्था स्थापीत करून सबंद देशांत पुराय स्वातंत्र्याचो प्रचार केलो. १९२९ त लाहोरांत जाल्ल्या काँग्रेसच्या अधिवेशनांत जवाहरलाल नेहरू काँग्रेसचो अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. ताच्या फुडारपणाखाल काँग्रेसच्या वावुरप्यांनी पुराय स्वातंत्र्याची प्रतिज्ञा केली. उपरांत सायमन आयोगा संदर्भांत १९३०, १९३१ आनी १९३२ त इंग्लंडांत तीन गोलमेज परिशदो जाल्यो. ह्या परिशदांक लागून १९३५ हो कायदो अंमलांत आयलो.

१९ फेब्रुवारी १९३० दिसा काँग्रेस वावुरप्यांची बसका जावन, तांणी गांधीजीच्या फुडारपणाखाला सविनय कायदेभंगाचो थाराव मान्य केलो. उपरांत अहमदाबाद हांगा अखिल भारतीय काँग्रेस समितीची बसका जावन, २१ मार्च १९३० दिसा ह्या आंदोलनाक मान्यताय मेळ्ळी. ह्या दिसा गांधीजीन आपल्या कांय वेंचीक सांगात्या वांगडा 'दांडी यात्रा' सुरू केली. १९३५ च्या कायद्याप्रमाण जाल्ले विधिमंडळाचे वेंचणुकेंत काँग्रेसच्या कांय वावुरप्यांनी वांटो घेतिल्लो. हातूंत तांकां घसघशीत यश मेळळें. इकरा मदल्या स प्रांतांनी काँग्रसचीं विधिमंडळां सत्तेर आयलीं. दुसरें म्हाझूज सुरू जाल्याउपरांत, ब्रिटिशांनी आपल्यावांगडा हिंदुस्थानाकूय झुजांत लोटपाचो यत्न केल्लो. हाका लागून काँग्रेसच्या सगळ्या मंत्रिमंडळांनी ताचो निशेध म्हूण आपले राजीनामे दिले. ह्या काळांत मुस्लिम लीगच्या शिश्टमंडळान पाकिस्तानाचे मागणेची सगळी तयारी करून दवरिल्ली. हिंदुस्थानांतले मुसलमान जनतेचो तेंको मेळपाखातीर लीगाचें शिश्टमंडळ काँग्रेसच्या वावुरप्यांचेर सदांच आरोप करपाक लागले. महमद अली जिना हाचेकडेन लिगचें फुडारपण आयल्या उपरांत ताणें मुसलमान धर्मभावना पेटत दवरपाचें धोरण आपणायलें. मुस्लिम राश्ट्रवादाचें समर्थन करपी लिखाण ह्या काळांत व्हडा प्रमाणांत उजवाडाक येवपाक लागलें.

१९३९ त सुभाषचंद्र बोस हाणें काँग्रेस अध्यक्ष पदाचो राजीनामो दिलो. उपरांत ताणें 'फॉरवर्ड ब्लॉक' ह्या पक्षाची स्थापणूक करून हिंदुस्थानाक बेगीन स्वातंत्र्य मेळचें म्हूण प्रचार करपाक लागलो. हाका लागून ताका बंदखणीची ख्यास्त जाली. १९४० त तो दुयेंत पडिल्ल्यान ताची सुटका जाली. पूण ताच्या घराचेर कडक नदर दवरली. एके राती ताणें गुपितपणान भारताची हद्द सोडली आनी तो जर्मनींत गेलो. जर्मनीच्या आदारान स्वातंत्र्य चळवळ चालू दवरपाखातीर ताणें जर्मन सरकाराकडेन प्रस्ताव दवरलो.

दुसऱ्या म्हाझुजांत जपान देशानूय वांटो घेतिल्लो. ह्या काळांत टोकियोंत राबितो करून आशिल्लो भारतीय क्रांतिकारक राशबिहारी बोस हाणें, टोकियो आनी बँकोक हांगाच्या हिंदी लोकांक एकठांय करून आझाद हिंद फौज उबारली. हे फौजेचें फुडारपण करपाखातीर उपरांत ताणें जर्मनींत आशिल्ल्या सुभाषचंद्र बोस हाका आपोवणें दिलें. सुभाषचंद्र बोस हाणें जपान सरकाराकडेन उलोवणीं करून १९४२ त अस्थायी सरकाराची स्थापणूक केली. जपानी फौजेवांगडा आझाद हिंद फौजूय झुजांत रिगली. ब्रिटिशांक हिंदुस्थानांतल्यान धांवडावन घालप होच तांचो मुखेल हेत आशिल्लो. 'चलो दिल्ली' आनी 'जय हिंद' ही हिंदी फौजेची घोशणा आशिल्ली. सुरवेक तांणी अंदमान जुंव्याचेर जैत जोडून थंय तिरंगी बावटो लायलो. उपरांत तांणी कोहिमा आनी मोडोक प्रदेश हातासले. १९४५ मेरेन तांणी ब्रिटिशांआड लढो चालूच दवरलो. पूण ऑगस्ट १९४५ त अमेरिकेन जपानाचेर अणुबाँबाचो वापर केल्ल्यान जपानाक तांकां शरण वचचें पडलें. आझाद सेनेचें आव्हानूय हांगाच सोंपलें. उपरांत विमानांतल्यान फॉर्मोसासवान रशियेक वता आसताना सुभाषचंद्र बोस हाका अपघाती मरण आयलें.



दांडी यात्रा

१९५७ जाल्ल्या उठावाउपरांत ब्रिटिशांनी विंगड विंगड कायद्यांवरवीं हिंदी लोकांक पुरायपणान निशस्त्र केल्ले. पूण हिंसक पद्दतीन ब्रिटीश सरकाराआड झूजपाखातीर विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन बंगाल, महाराष्ट्र, पंजाब आनी उत्तर हिंदुस्थानाच्या हेर प्रदेशांनीय साबार क्रांतिकारी संघटना अस्तित्त्वांत आयिल्ल्यो. तांणी हिंसक पद्दतीन सुरू केल्लो स्वातंत्र्यलढो भारत स्वतंत्र जायमेरेन चालूच आशिल्लो. १८५७ चे घडणूके प्रमाण ब्रिटीश हिंदी सैन्यातूय राष्ट्रभावना निर्माण जावन तांणीय ब्रिटीश सरकाराआड उठाव केले. १९४६ त नौसेनेंतल्या कांय भारतीय नाविकांनी ब्रिटीश सरकाराआड उठाव केल्लो.

ब्रिटीश सरकाराच्या वेगवेगळ्या जुलमी कायद्यांक लागून हिंदुस्थानी लोकांमदीं तिडक निर्माण जाल्ली. ब्रिटीश सरकाराआडचो लोकांच्या मनांतलो दुस्वास तसोच जागो दवरपाखातीर सुरवेक गांधिजीन वैयक्तिक सत्याग्रहाचें आंदोलन सुरू केलें. पूण ब्रिटीश सरकारान कसलोच हेत स्पश्ट करीनासतना हिंदुस्थानाकूय आपल्या वांगडा दुसऱ्या म्हाझुजांत धुकललो आनी कसल्योच राजकीय सुदारणा करपाक न्हयकार दिल्ल्यान १९४२ त गांधिजीन 'भारत छोडो' आंदोलनाची घोशणा केली. हें आंदोलन जाहीर केल्याउपरांत दुसऱ्याच दिसा गांधिजी, नेहरू आनी हेर काँग्रेसच्या फुडाऱ्यांक कसलीच चवकशी करीनासतना बंदखणींत घाले. पूण काँग्रेसच्या हेर वावुरप्यांनी आंदोलन सुरू केलें. हें आंदोलन १९४५ मेरेन चालूच आशिल्लें. ह्या वेळार ब्रिटीश सरकारान जमावांचेर खूब गोळीबार केलो. खूब लोकांक मरण आयलें. आनी साबार लोक जखमी जाले. सुरवेक शांततायेन सुरू जाल्ल्या ह्या आंदोलनाक उपरांत हिंसक मोडण लागलें. कांय कडेन आंदोलकांनी सरकारी मालमत्तेचीय नासधूस केली. ह्या आंदोलनांत हिंदुस्थानी सरकारी कर्मचाऱ्यांवांगडा विद्यार्थी, शिक्षक, वेपारी, शेतकामती आनी हेर लोकांनीय वांटो घेतिल्लो. मे १९४४ त गांधीजीची भलायकी इबाडिल्ल्यान ताची सुटका जाली. उपरांत हेर काँग्रेस वावुरप्यांचीय सुटका जाली. १९४५ त लॉर्ड वॅवल हाणें हिंदुस्थानाक स्वराज्य दिवपाच्या प्रस्तावाचेर सिमला अधिवेशनाची घोशणा केली. पूण मुस्लीम लीगच्या वावुरप्यांनी मुसलमानांखातीर वेगळ्या पाकिस्तान प्रांताची पूर्व तयारी करून दवरिल्ल्यान सिमला अधिवेशनांत काँग्रेसच्या मागण्यांक पुरायपणान विरोध केलो. पाकिस्तान प्रस्नावयल्यान उपरांत हिंदू आनी मुसलमान लोकांमदीं भिरांकूळ दंगे जायत रावले.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या निमाणेकडेन ब्रिटनांत मजूर पक्ष सत्तेर आयलो. नव्या सरकारान काँग्रेस आनी मुस्लिम लीगच्या मतांचेर विचार करून हिंदुस्थानाक जातातितलें बेगीन स्वातंत्र्य दिवपाचें थरयल्लें. हो जोखमीचो वावर पूराय करपाखातीर मजूर सरकारान लॉर्ड माउंटबॅटन हाची व्हायसरॉय म्हूण नेमणूक केल्ली. माउंटबॅटन हाणें हिंदुस्थानांतल्या सगळ्या घडणुकांचो अभ्यास करून, हिंदुस्थान फाळणेची येवजण तयार केली. सुरवेक काँग्रेस आनी मुस्लिम लीगाच्या नेत्यांभितर फाळणेच्या प्रस्नावयल्यान व्हड वाद जालो. पूण निमाणेकडेन माउंटबॅटन हाचे मध्यस्थीन भारत आनी पाकिस्तान अशी हिंदुस्थानाची फाळणी जाली. अस्तंत पाकिस्तानांत सिंध, अस्तंत पंजाब, बलुचिस्तान आनी वायव्य शिमेलागशिल्ल्या प्रांतांचो आस्पाव आशिल्लो तर उदेंत पाकिस्तानांत उदेंत बंगालचो आस्पाव आशिल्लो. हिंदुस्थानाचे हेर प्रदेश मेळून १५ ऑगस्ट १९४७ दिसा भारत देश तयार जालो. पंडित जवाहरलाल नेहरू हो स्वतंत्र भारताचो पयलो प्रधानमंत्री जालो.

ब्रिटीश सरकारान संसदेंत चड मत आशिल्ल्या काँग्रेस पक्षाच्या हातांत सत्ता सोंपयली. १५ ऑगस्ट १९४७ दिसासावन सुरवेचो कांय तेंप हिंदुस्थानाचें शासन १९३५ च्या कायद्यावरवीं चलतालें. पूण स्वातंत्र्या उपरांत गव्हर्नर जनरलचे चडशे अधिकार मंत्रीमंडळाकडेन सोंपयले. १९४६ त अप्रत्यक्षपणान वेंचून काडिल्ली संविधान समिती, हीच भारताची संसद म्हूण वावुरताली आनी मंत्रीमंडळ तिका जापसालदार रावूंक लागलें.

**स्वातंत्र्या उपरांतचो इतिहास :** भारत देश अस्तित्वांत आयल्याउपरांत शासनकर्त्यांच्या मुखार त्या वेळार साबार प्रस्न उबे आशिल्ले. तातुंतले चड म्हत्वाचे म्हळयारः १) फाळणेक लागून निर्माण जाल्लो निर्वासितांचो प्रस्न, २) संस्थानांचें भारतांत विलीनीकरण, ३) काश्मीर प्रस्नावयल्यान निर्माण जाल्लो भारत-पाकिस्तान वाद, ४) नव्या राश्ट्राखातीर नवें संविधान तयार करप.

हिंदुस्थानाची फाळणी जाल्याउपरांत पाकिस्तानांत आशिल्ल्या हिंदू लोकांत तशेंच भारताच्या वायव्य आनी ईशान्य भागांनी रावपी मुसलमान लोकांच्या मनांत असुरक्षिततायेची भावना निर्माण जाली. तेचपरी फाळणी जावचे पयलीं बंगालांत आनी फाळणी उपरांत पंजाबांत जातीय दंगली जावन खूब मनीस हानी तशी वीत्त हानी जाल्ली. हाका लागून बंगाल आनी पाकिस्तानांतल्यान लाखांनी हिंदुचे चोमे भारतांत येवपाक लागले. वायव्य आनी ईशान्य शिमेवयले हजारांनी मुलसमान लोक भारत सोडून पाकिस्तानांत वचूंक लागले. ह्या निर्वासितांची रावपाची जेवणाची आनी उपरांत तांचें पुनर्वसन करपाची तजवीज भारत सरकारा कडसून जाली.

**संस्थानांचें विलीनीकरण :** ब्रिटीश सरकाराच्या काळांत भारतांत ल्हान व्हड अशा सुमार ५९० संस्थानांचो आस्पाव आशिल्लो. ब्रिटीश ईस्ट इंडिया कंपनीची सत्ता भारतांत घट्ट जाल्याउपरांत कंपनीन राज्यविस्ताराचें धोरण आपणायल्लें. पूण १८५७ च्या लढ्याउपरांत राज्यविस्ताराचें धोरण तांणी सोडून दिल्लें. १८५७ उपरांत मेरेन जीं राज्यां स्वतंत्र उरिल्लीं तांकां भारतीय संस्थानां अशें म्हण्टात. हिंदुस्थानाची फाळणी जावपाचें थरलें तेन्ना ब्रिटीश सरकारान संस्थानिकांची स्थिती 'जैसे थे', म्हळयार तांका जाय जाल्यार स्वतंत्र रावप ना जाल्यार भारतांत वा पाकिस्तान देशांत विलीन जावप हो पर्याय दवरलो. बलुचीस्तान वायव्य सरहद् प्रांत, अस्तंत पंजाब आनी सिंध हीं पाकिस्तान क्षेत्रांतलीं संस्थानां पाकिस्तानांत विलीन जातलीं हें स्पश्ट जाल्लें. पूण त्रिपुरा-कूचबिहार, अस्तंत-वायव्य शिमेवयलीं जोधपूर, बिकानेर, जैसलमीर उत्तर शिमेवयलीं जम्मू-काश्मीर ह्या पाकिस्तानाक तेंकून आशिल्ल्या संस्थानांचो भारतांत कसो आस्पाव करून घेवप हो कठीण असो प्रस्न भारताच्या फुडाऱ्यांमुखार आशिल्लो. हो प्रस्न सोडोवपाखातीर मध्यवर्ती सरकाराचे गृहमंत्री सरदार वल्लभभाई पटेल हाच्या फुडारपणाखाला एक खाशेलें खातें निर्माण केलें. सरदार पटेल हाणें साबार संस्थानिकांक विस्वासांत घेवन आनी कांय कडेन बळाचो वापर करून, १५ ऑगस्ट १९४७ दिसा मेरेन चडशा संस्थानांचो भारतांत आस्पाव केलो. ह्या वावरांत पी. व्ही. मेनन हाचोय वांटो म्हत्वाचो आसा. संस्थानिकांचे खाशेले हक्क, तांचे तनखे, तांच्या संरक्षणाची हमी आनी हेर सवलती भारत सरकारान घेतल्यो. सुरवेक जम्मू-काश्मिरच्या वारसदार-राजान स्वतंत्र रावपूच पसंत केलें. पूण पाकिस्तानाच्या घूसखोरांनी काश्मिरच्या वायव्य प्रांतांत हल्लो सुरू केलो, तेन्ना राजान भारताचो आदार मागलो. हाका लागून भारत सरकाराक थंय सैन्य धाडचें पडलें. उपरांत राजान जम्मू-काश्मीर भारतांत विलिनीकरण करपाचो निर्णय घेतलो. जुनागड आनी हैद्राबाद हीं संस्थानां भारताच्या मध्य भागार आशिल्लीं. पूण तांचे राज्यकर्ते मुसलमान आशिल्ल्यान तांणी आपलीं संस्थानां भारतांत विलीन करपाक न्हयकार दिलो. हांगाची जनता चडशी हिंदू आशिल्ल्यान, तांणी नवाबांआड चळवळ सुरू केली. उपरांत सैनिकी आनी पुलीस कारवाय करून हीं दोनूय संस्थानां भारत सरकारान खालसा करून भारतांत विलीन केलीं.

**संघराज्यांची फेररचणूक :** भारताक स्वातंत्र्य मेळ्ळया उपरांत सुरवेक संघराज्यात्मक वेवस्था १९३५ कायद्याचेर आदारीत आशिल्ली. पूण संस्थानांचें भारतांत विलीनीकरण जाल्याउपरांत चार तरांचीं राज्यां निर्माण जालीं. आसाम, बिहार, मुंबय, मध्य प्रदेश, मद्रास, ओरिसा, पंजाब, संयुक्त प्रांत आनी उदेंत बंगाल ह्या प्रांतांचो आस्पाव 'अ' गटांत जालो. पयलीं संस्थानाच्या रुपांत आशिल्ल्या राज्यांचो 'ब' गटांत आस्पाव जालो. हातूंत हैदराबाद, जम्मू-काश्मीर, मध्य भारत, म्हैसूर आनी पतियाळा संघ हांचो आस्पाव आशिल्लो. मणिपूर, कच्छ, हिमाचल प्रदेश, विंध्य प्रदेश, त्रिपुरा, अजमेर, भोपाळ, दिल्ली, विलासपूर, कुर्ग ह्या राज्यांचो 'क' गटांत तर अंदमान-निकोबार जुव्यांचो 'ड' गटांत आस्पाव केलो.

भारताक स्वातंत्र्य मेळचे पयलींसावन, भाशिक तत्त्वांवरवीं राज्यांची फेररचणूक जावची असो एक विचार चलतालो. १९२७ त मद्रास हांगाच्या काँग्रसीच्या अधिवेशनांत भाशिक तत्त्वांवरवीं आंध्र, कर्नाटक आनी सिंध प्रांतांची पुनर्रचणूक जावंची हें मान्य जालें. भारत स्वतंत्र जाल्याउपरांत हे मागणेक परतून नेट आयलो. ह्या तत्त्वाप्रमाण सगळयांत पयलीं, १ ऑक्टोबर १९५३ त मद्रास राज्याचो, तेलुगू भाशिक भाग वेगळो जावन 'आंध्र प्रदेश राज्य' म्हूण अस्तित्वांत आयलो. हे घडणुके उपरांत देशाच्या हेर भागातूंय भाशाआदारीत प्रांतरचणुकेच्यो मागण्यो जावंक लागल्यो. हाका लागून सरकारान फाजल अली, हृदयनाथ कुंझरु आनी के. एम्. पणिक्कर हांचो आस्पाव आशिल्लें 'राज्य फेररचणूक मंडळ' नेमलें. उपरांत ह्या मंडळाच्या नियाळा प्रमाण भाशा तत्त्वाचेर प्रांतांची रचणूक करची अशें थरलें. हे येवजणेप्रमाण १९५६ त संविधानांत सुदारणा करून १४ राज्यां आनी ६ केंद्रशासित प्रदेशांची निर्मिती केली. पूण ह्या वेळार मुंबय राज्यांत मराठी-गुजराती भाशांचो वाद चालू आशिल्ल्यान तशेंच द्वैभाशिक राज्याक मराठी तशेंच गुजराती लोकांचो विरोध आशिल्ल्यान १९६० त गुजरात आनी महाराष्ट्र राज्यांची निर्मिती जाली. १९६६ त पंजाब आनी हरीयाणा राज्यां अस्तित्वांत आयलीं.

भारत स्वतंत्र जाल्या उपरांत लेगीत भारतीय उपखंडांत ल्हान ल्हान पुर्तुगेज आनी फ्रेंच वसाहती आशिल्ल्यो. गोवा, दमण, दीव तशेंच दादरा आनी नगर हवेली प्रदेश पुर्तुगेजांच्या शेकातळा आशिल्ले. पाँडिचेरी, करीकळ, माहे आनी यमन हे प्रदेश फ्रेंच सत्तेच्या शेकातळा आशिल्ले. १९५४ त फ्रेंच प्रदेशांचो भारतांत आस्पाव केल्याउपरांत तांकां केंद्रशासित प्रदेशांचो दर्जो मेळ्ळो. १९६१ त भारत सरकारान पुर्तुगेजांआड सैनिकी कारवाय करून गोवा, दमण, दीव, तशेंच दादरा आनी नगर हवेलीय आपल्या ताब्यांत घेवन तांचो आस्पाव केंद्रशासित प्रदेशांत केलो. उपरांत १९८६ त गोंयाक घटक राज्याचा दर्जो प्राप्त जालो.

**राज्यवेवस्था :** भारताची राज्यवेवस्था २६ जानेवारी १९५० दिसा आपणायल्ल्या संविधानाप्रमाण चलता. भारतीय सरकार विधिमंडळ, कार्यकारी मंडळ आनी न्यायवेवस्था अशा तीन पांवड्यांवयलें काम पळयता.

केंद्र शासनाचें सर्वोच्च पद राश्ट्रपतीचें आसून, सगळी कार्यदर्शी सत्ता ताच्या हातांत आसता. तो संसदेक जापसालदार आशिल्ल्या मंत्रीमंडळाच्या सल्ल्यान सरकार चलयता. उपराश्ट्रपती राज्यसभेचो अध्यक्ष आसता. राश्ट्रपतीचे गैरहजेरींत वा ताका अचकीत मरण आयलें जाल्यार, मरणा उपरांत स म्हयनेमेरेन वा नवो राश्ट्रपती वेंचून येय मेरेन कार्यकारी राश्ट्रपती म्हूण उपराश्ट्रपती काम पळयता.

भारतीय संसद राज्यसभा आनी लोकसभा अशा दोन घरांनी विभागिल्ली आसा. दर एका राज्यांत विधिमंडळ आसता. ताचो तेंप पांच वर्सांचो आसता. विधिमंडळ आंध्रप्रदेश, जम्मू आनी काश्मीर, बिहार, तमिळनाडू, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी उत्तर प्रदेश राज्यांनी दोन सदनी आसून हेर राज्यांनी तें एक सदनी आसा. त्या दोन घरांक विधानसभा आनी विधान परिशद अशें म्हण्टात. केंद्रशासित प्रदेशांची शासनपद्दती थंयचे परिस्थितीचेर आदारीत आसता. दमण, दीव आनी पाँडिचेरी प्रदेशांचेर राश्ट्रपतीन नेमिल्लो लेफ्टनंट गव्हर्नर मुखेली आसता. तर अंदमान आनी निकोबार जुंव्यांचेर आनी चंदीगड प्रदेशाचेर चीफ कमिशनर मुखेली आसता. दिल्ली, दमण, दीव आनी पाँडिचेरी प्रदेशांनी स्वतंत्र विधानसभा आनी मंत्रीमंडळां आसात.

**न्यायवेवस्था :** भारतांतले आधुनिक कायदेपद्दतिचो उगम ब्रिटीश राजवटींत जालो. ताचे आदीं सगळयांक मान्य अशी कायदयाची अधिकृत शास्त्रीय अशी संहिता चालींत नाशिल्ली. वेगवेगळया प्रांतांतले राजा वा सुलतान धर्मीक ग्रंथाच्या आदारान वा आपापल्या अणभवाप्रमाण सांकेतीक रितिरिवाजाप्रमाण न्यायदान करताले. व्यक्ती निरपेक्ष अशी शास्त्रीय पद्दतीची न्याय यंत्रणा अशी तिची व्यक्ती व्याख्या करूंक मेळनाशिल्ली. सादारण लोकांक लेगीत लाव घेवंक मेळटा अशी सुसंघटीत न्यायवेवस्था सुरू करपाचें श्रेय पयलो ब्रिटीश गव्हर्नर जनरल वॉरन हेस्टिंग हाका वता. ताणें कांय प्रांतांत दिवाणी आनी जिल्हा पातळेचेर फौजदारी न्यायालयांची स्थापणूक केली. उपरांत ब्रिटीश राजवटींत न्यायदानाविशीं खूब सुदारणा जाली. ब्रिटीश सरकारान १८६१ त न्यायाविशीं पद्दतिंतलो गोंदळ आनी घुस्पट पयस करपाच्या उद्देशान 'इंडियन हायकोर्ट ॲक्ट' मंजूर केलो. ह्या कायदया प्रमाण दिवाणी अदालत आनी निजामत अदालत रद्द करून तांचे सुवातेर मुंबय, मद्रास आनी कलकत्ता नगरांनी उच्च न्यायालयां स्थापीत केलीं. १८८६ त अशें एक न्यायालय अलाहाबाद शारांत स्थापित केलें. उपरांत १९१६ त बिहार आनी ओरिसा प्रांतांत, १९१९ त लाहोर आनी १९३६ त नागपूरांत उच्च न्यायालयांची स्थापणूक केली.

भारताक स्वातंत्र्य मेळ्ळया उपरांत ब्रिटीश राजवटींत विकसत जाल्ली आनी १९३५ च्या कायदयान सुदारणा जाल्ली विधी आनी न्यायवेवस्था चालींत उरली. संविधानांतल्या ३७२ आनी ३७५ व्या अनुच्छेदांवरवीं भारतीय संविधान अंमलांत येवचे पयलीं उपेगांत आशिल्ले सगळे कायदे, न्यायालयां आनी तांचेकडेन संबंदीत आशिल्लीं सगळीं कार्यालयां आदलेच स्थितींत अस्तित्वांत उरलीं. पूण १८९८ तली फौजदारी प्रक्रिया संहिता काडून तिचे सुवातेर १९७३ त आपणायल्ली फौजदारी प्रक्रिया संहिता चालींत हाडली. ते नवे संहिते प्रमाण कार्यकारी सत्ता आनी न्यायसंस्था पुरायपणान एकमेकांसावन वेगळयो जाल्यो.

भारतांत एक सरन्यायाधीश आनी ताका पालव दिवपी न्यायाधीश मेळून सर्वोच्च न्यायालय प्रस्थापित केल्लें आसा. न्यायालयाच्या दर एका न्यायाधीशाची नेमणूक राश्ट्रपती मुखेल न्यायमूर्तीचो सल्लो घेवन करता. ते खातीर ताका प्रधानमंत्र्याचोय सल्लो घेवचो पडटा. सबंद

देशाचेर सर्वोच्च न्यायालयाची न्यायीक सत्ता आसा. सगळ्या विकास प्रकरणांसंबंदी निमणी अर्जी सर्वोच्च न्यायालयांत करपाक मेळटा. सर्वोच्च न्यायालयान घोशीत केल्ले कायदे भारताच्या राज्यक्षेत्रांतल्या सगळ्या राज्यांचेर बंधनकारक उरता.

राज्यांतल्या मुखेल न्यायालयाक उच्च न्यायालय अशें म्हणटात. तांच्यांतूय एक मुखेल न्यायाधीश आनी कांय पालवी न्यायाधीश आसतात. तांची नेमणूक राश्ट्रपती, सर्वोच्च न्यायालयाचो न्यायाधीश आनी राज्यपालांच्या सल्ल्यान जाता. जिल्हो आनी तालुका पातळेवयल्या न्यायाधिशांची नेमणूक, बदली आनी तांचेर देखरेख, हो सगळो वावर राज्याच्या उच्च न्यायालयाच्या अधिकार क्षेत्रांत येता. तीं न्यायालयां दिवाणी आनी फौजदारी खटल्यांत अपील न्यायालयां म्हूण वावुरतात. सामक्या सकयल्ल्या थरार पंचायत न्यायालयां आसात.

**भारतीय संविधान :** डॉ. राजेंद्र प्रसाद हाचे अध्यक्षतेखाला घटनासमितीन तयार केल्लें संविधान, २६ जानेवारी १९५० दिसासावन, भारतीय संविधान म्हूण चालींत आयलें. हिंदुस्थानाचें संविधान तयार करपाखातीर डिसेंबर १९४६ त घटनासमितीची स्थापणूक जाल्ली. सुरवेक ही संघटना सबंद हिंदुस्थानाखातीर आशिल्ली. पूण १९४७ त हिंदुस्थानाची भारत आनी पाकिस्तान अशी फाळणी जाल्ल्यान मुस्लीम लिगाचे सदस्य घटनासमितींतल्यान भायर पडले. उपरांत १४ ऑगस्ट १९४७ दिसा सच्चिदानंद सिन्हा हाचे अध्यक्षतेखाला घटनासमितीची परतून बसका जाली. भारतीय स्वातंत्र्याच्या कायद्यान सार्वभौम सत्ता घटनासमितीकडेन आयली. पूण सिन्हाच्या अचकीत मरणाक लागून डॉ. राजेंद्र प्रसाद घटनासमितीचो अध्यक्ष जालो. घटमासमितीन तयार केल्ल्या संविधानाक २६ नोव्हेंबर १९४९ दिसा मान्यताय मेळून, उपरांत तें २६ जानेवारी १९५० दिसासावन चालींत आयलें. संविधानांत ३९५ अनुच्छेद (Antices) आनी आठ परिशिश्टां (Appendix) आशिल्लीं. उपरांत पयली संविधान दुरुस्ती जावंन तातूंत आनी एका परिशिश्टाची भर पडली. संविधानांत शासकीय कर्मचाऱ्यांचे अधिकार, तशेंच शासनाचे अधिकार, स्वरूप, ताच्या विंगड विंगड आंगांचे एकामेकाकडेन आशिल्ले संबंद आनी शासनाची मर्यादा हांचें स्पश्टीकरण केल्लें आसा. संविधानांत लोकशाय आनी भौशिक तशेंच अर्थीक, न्याय ह्या तत्त्वांचेर चड भर दिला. संविधानांत केंद्र आनी राज्यां हांचे मदले परस्पर संबंद आस्पावल्यात. तशेंच अल्प संख्येन आशिल्ल्या लोकांच्या मनांत सुरक्षिततायेची भावना निर्माण जावची म्हूण, तांचेखातीर कांय खाशेल्यो तजविजी केल्ल्यो आसात.

भारताचें संविधान हें ग्रेट ब्रिटनाचे संसद पद्दतीचेर आदारिल्लें आसा. पूण ब्रिटनांत संसदेक चड हक्क आसून, संसदेन मान्य केल्ल्या कायद्यांक खंयचेंच न्यायालय जाप विचारपाक शकना. भारतीय संविधानाक वयली सुवात आशिल्ल्यान संसदेन मान्य केल्ल्या कायद्यांक भारतांतल्या न्यायालयांत आव्हान दिवंक मेळटा.

संसदीय लोकशाय, मूलभूत अधिकार, भौशिक न्याय, न्यायालयीन पुनर्विलोकन, संघराज्य पद्दत आनी मार्गदर्शन ह्या खाशेल्या तत्त्वांच्या आदाराचेर संविधानाची रचणूक केल्ली आसा.

**संसदीय लोकशाय :** केंद्रांत संसद दोनसदनी (लोकसभा आनी राज्यसभा) आसून, ती लोकांनी वेंचून दिल्ल्या प्रतिनिधींची आसता. लोकसभेंत सद्या चडांतचड ५५२ सदस्य आसतात. तांच्यांतले ५३० सदस्य घटकराज्यांतल्यान आनी २० सदस्य केंद्रशासित प्रदेशांतल्यान वेंचून काडिल्ले आसतात आनी ॲंग्लो-इंडियन समाजांतल्या दोन सदस्यांची नेमणूक करपाचे हक्क राश्ट्रपतीक आसात. दर एका राज्यांत साबार मतदार संघ आसतात. हे मतदारसंघ राज्याच्या विस्ताराचेर वा लोकसंख्येच्या आदाराचेर तयार केल्ले आसतात. राज्यसभेंत चडांतचड २५० सदस्य आसतात. हातुंतल्या १२ सदस्यांची नेमणूक राश्ट्रपतीकडच्यान जाता. साहित्य शास्त्र आनी समाजसेवा ह्या मळांचेर भरीव योगदान केल्ल्या व्यक्तींची ती निवड आसता. लोकसभेचो तेंप पांच वर्सांचो आसता. राज्यसभा विसर्जीत जायना. दर दोन वर्सांनी तिचे एक-तृतीयांश सदस्य निवृत्त जावन, तांचे सुवातेर वेंचून आयिल्ले नवे सदस्य येतात. संसदेचो सदस्य जातलो जाल्यार, ती व्यक्ती भारताची नागरीक आसपाक जाय. तशेंच ती व्यक्ती अपंगूळ आसूंक फावना. राज्यसभेंत वेंचून येवपाखातीर ते व्यक्तीची पिराय ३० वर्सांसकयल आसूंक फावना आनी लोकसभेचो सदस्य जातलो जाल्यार ताची पिराय २५ वर्सांवयर आसपाक जाय. राज्यसभेच्या अध्यक्षपदार उपराश्ट्रपती आसता तर लोकसभेच्या अध्यक्षपदाचेर सभापती (Speaker) आसता. सभापतीक लोकसभेंत भोवमतान वेंचून काडिल्लो आसता. संसदेंत सगळ्या सभासदांक आपले विचार मांडपाचें स्वातंत्र्य आसता. संसदेच्या दोनूय सभाघरांक साबार खाशेले अधिकार दिल्ले आसात.

देशाअंतर्गत सवस्तकाय, देशाचें संरक्षण, देशाची सर्वांगीण उदरगत आनी ते खातीर अर्थीक तरतूद हो संसदेचो मुखेल वावर जावन आसा. प्रधानमंत्री आनी मंत्रीमंडळ संयुक्तपणान संसदेक जापसालदार आसतात. दर एक विधेयक संसदेच्या दोनूय सभाघरांनी मान्य जावचे पडटात. ही मान्यताय भोवमतान मेळटा. जर खंयचेंय विधेयक एका सभाघरान मान्य जालें आनी दुसऱ्या सभाघरांत ताका विरोध जालो जाल्यार दोनूय सभाघरांची संयुक्त बसका आपोवन तें विधेयक मान्य करून घेवंक मेळटा. पूण अर्था विशींच्या विधेयकाबाबत लोकसभेचें मत थरता.

केंद्र शासनाचें सर्वोच्चपद राश्ट्रपतीचें आसून ताका दोनूय सभाघरांचे वेंचून आयिल्ले सदस्य आनी राज्याच्या विधानसभांचे निर्वाचीत सदस्य वेंचून काडटात. राश्ट्रपतीची वेंचणूक प्रमाणशीर प्रतिनिधित्व पद्दतीप्रमाण एकल संक्रमणीय मतावरवीं जाता. राश्ट्रपतीपदाखातीर उबो आशिल्लो उमेदवार हो भारताचो नागरीक आसूंक जाय. ताची पिराय ३५ वर्सांवयर आसपाक जाय. तशेंच तो लोकसभेचो सदस्य म्हूण वेंचून येवपाक पात्र

आसूंक जाय. राश्ट्रपतीचो कार्यकाळ अधिकारग्रहणाउपरांत पांच वर्सांचो आसता. ताका वेंचणुकेंत परत उबो रावपाक मेळटा. राश्ट्रपती हो देशाचो संविधानात्मक मुखेली आसून, सगळी कार्यकारी सत्ता ताच्या हातांत आसता. सगळया सेनादलांचो तोच मुखेली आसा. संसदेची अधिवेशनां आपोवप, लोकसभा स्थगीत वा बरखास्त करपाचे हक्क ताकाच आसात. खंयच्याय घटक राज्याची शासनयंत्रणा कोसळटा तेन्ना तो त्या राज्यांत राश्ट्रपती राजवट सुरू करूंक शकता.

उपराश्ट्रपती हो राज्यसभेचो पदसिध्द अध्यक्ष आसा. राश्ट्रपतीच्या अनुपस्थितींत वा ताका अचकीत मरण आयलें जाल्यार, मरणाउपरांत ६ म्हयन्यांमेरेन वा नवो राश्ट्रपती वेंचून येमेरेन उपराश्ट्रपती हो कार्यकारी राश्ट्रपती म्हूण काम पळयता. उपराश्ट्रपतीचो तेंप पांच वर्सांचो आसता. ३५ वर्सां पुराय जाल्ल्या आनी राज्यसभेचो सदस्य म्हूण वेंचून येवपाक पात्र आशिल्ल्या भारताच्या खंयच्याय नागरिकाक उपराश्ट्रपतीपदाचे वेंचणुकेंत वांटो घेंवक मेळटा.

संविधानान साबार अधिकार राश्ट्रपतीक दिल्यात. पूण प्रत्यक्षांत ते अधिकार प्रधानमंत्री आनी ताच्या फुडारपणाखाला मंत्रिमंडळ वापरतात. पूण खंयच्याय पक्षाक लोकसभेंत भोवमत नासतना प्रधानमंत्री नेमपाचे वा लोकसभा बरखास्त करपाचे स्वतंत्र अधिकार राश्ट्रपतीक आसात. भारताच्या शासनयंत्रणाचें कार्यकारी मंडळ, कायदेमंडळ आनी न्यायसंस्था हे तीन मुखेल घटक आसात. केंद्रिय कार्यकारी मंडळ हें राश्ट्रपती, उपराश्ट्रपती, पंतप्रधान आनी ताच्या मंत्रिमंडळासावन तयार जाता. प्रधानामंत्र्याच्या फुडारपणाखाला मंत्रिमंडळ वेवस्थीत राज्यकारभार चलोवपाक राश्ट्रपतीक आदार करता आनी ताका योग्य सल्लो दिता. राश्ट्रपती लोकसभेत भोवमत आशिल्ल्या पक्षाच्या गटाच्या मुखेल्याक प्रधानमंत्री म्हूण नेमणूक करता. उपरांत प्रधानमंत्र्याच्या आदारान मंत्रिमंडळांतल्या हेर मंत्र्यांचीय नेमणूक राश्ट्रपतीच करता. मंत्रिमंडळ हें कॅबिनेट मंत्री, राज्यमंत्री आनी उपमंत्री अशें तीन थरांनी विभागलां.

राज्यसरकाराचो कारभार केंद्रसरकाराप्रमाणूच चलता. पूण घटकराज्याच्या मुखेल पदाचेर राज्यपाल आसता. राज्यपालांची नेमणूक राश्ट्रपती करता. दर एका राज्याचो मुखेलमंत्री आनी ताच्या मंत्रीमंडळा कडच्यान संविधानाप्रमाण राज्य चलोवन घेवप हो राज्यपालाचो मुखेल वावर. दर एका राज्यांत विधिमंडळ आसता. ताचो तेंप पांच वर्सांचो आसता. केंद्रशासित प्रदेशाची शासनपद्दतींत परिस्थितीप्रमाण थरयतात. केंद्रशासित प्रदेशांचेर राश्ट्रपतीन नियुक्त केल्लो लेफ्टनंट गव्हर्नर हो प्रमुख आसता.

**मुलभूत अधिकार :** सादारणपणान संविधानान चार प्रकारचे हक्क मान्य केल्यात ते अशेः समानता, स्वातंत्र्य, वैयक्तीक सुरक्षितताय आनी धर्मस्वातंत्र्य. शासनाचे नदरेन सगळया नागरिकांक कसलोच भेदभाव करिनासतना समान वागणूक मेळची म्हूण शासनाचेर कांय बंधनां घाल्लीं आसात. तशेंच सगळया भारतीय नागरीकांक भाशणस्वातंत्र्य, संघटना स्थापीत करपाचें आनी सभा घेवपाचें स्वातंत्र्य, भारताच्या सगळया वाठारांनी भोंवपाचें स्वातंत्र्य, देशांत खंयच्याय जाग्यार राबितो करून रावपाचें स्वातंत्र्य, खंयचोय वेवसाय, उद्देग वा वेपार करपाचें स्वातंत्र्य दिल्लें आसा. तशेंच अयोग्य आनी बेकायदेशीरपणान कोणाचेंच व्यक्तीगत स्वातंत्र्य काडून घेवचे ना हाची हमी दिल्ली आसा. हांचेखेरीज सगळयांक खंयचोय धर्म आपणावपाक, आचार आनी प्रचार करपाची मेकळीक दिल्ली आसा. विशेश करून अल्पसंख्येन आशिल्ल्या लोकांक आपले संस्कृतायेची जतनाय घेवपाखातीर, शैक्षणीक संस्था स्थापीत करपाचें आनी चलोवपाचें स्वातंत्र्य दिल्लें आसा. समाजीक समता स्थापीत करपाखातीर अस्पृश्यतायेचेर बंदी घाल्ली आसा.

**भौशीक न्याय :** भारतीय समाज हो न्यायदानाचेर आदारिल्लो आसा. मालमत्तेचें वाटप न्यायपद्दतीन जावचें, उत्पादनाची साधना फकत थोड्याच लोकांच्या हातांनी उरची न्हय, सगळयांक समान पगार मेळचो, बायलां आनी दादले हांचे हितसंबंद सुरक्षीत उरचे आनी समाजांतल्या दुबळया गटांक वयर सरपाची संद मेळची म्हूण संविधानान तजवीज केल्ली आसा.

**न्यायालयीन पुनर्विलोकन :** भारताच्या संविधानांत संसदेचेर, राज्य विधानसभेचेर आनी शासनाचेर मर्यादा घाल्ली आसा. ह्यो मर्यादा सजीव करपाचो वावर न्यायालय करता. जर खंयचोय कायदो मुलभूत अधिकारांच्या आड येता वा तो संसदेच्या वा राज्य विधिमंडळाच्या अधिकार क्षेत्राभायर आसा, हें न्यायालयान थरोवचें आसता. हो अधिकार उच्चतम न्यायालय आनी उच्च न्यायालयांक दिल्लो आसा. उच्च न्यायालयाचो मुखेल न्यायाधीश आनी हेर न्यायाधीशांचो नेमणूक राश्ट्रपती करता. उच्चतम न्यायालयाचो उच्च न्यायाधीश पिरायेच्या ६५ वर्सां मेरेन, तर उच्च न्यायालयाचो न्यायमूर्ती ६२ वर्सां मेरेन न्यायाधीश म्हूण वावर करपाक शकता.

**संघराज्य-पद्दती :** देशाचें व्हड आकारमान, संस्कृतीक विविधताय, भोवभाशीकपण आनी तत्सम कारणांखातीर संविधानान भारताखातीर संघराज्य पद्दत आपणायल्या. संघराज्य पद्दतींत एकाच वेळार दोन शासनयंत्रणां कार्य करतात. एक केंद्र शासन आनी दुसरी राज्य शासन. तांच्या अधिकारांचीय विभागणी संविधानान केल्ली आसून दोनूय शासनां आपआपल्या क्षेत्रांत थरावीक शिमेमेरेन स्वायत्त आसतात. भारताचें अखंडत्व राखून दवरपाखातीर तशेंच भौशिक बदल आनी अर्थीक उदरगत घडोवन हाडपाखातीर केंद्र शासनाची आनी राज्य शासनाची गरज आसा हें मतींत दवरून सत्तेचें वांटप करता आसतना संविधानान कांय विशयांचेर कायदे करपाक केंद्र आनी राज्य शासनाक खाशेले हक्क दिल्ले आसात. पूण केंद्रान केल्ल्या कायद्यांक चड म्हत्व आसा.

**मार्गदर्शक तत्त्वां :** समाजकल्याण, भौशिक न्याय आनी लोकशाय वेवस्था घट्ट करचेखातीर संविधानाच्या चवथ्या प्रकरणांत मार्गदर्शक तत्त्वांचो आस्पाव केला. मार्गदर्शक तत्त्वांक लागून कांय बाबतींत नागरिकांक सैमीक हक्क प्राप्त जाता. हीं तत्त्वां चालींत हाडपाची नैतीक जापसालदारकी शासनाची आसली तरी शासनाखातीर तें बंधन जायना.

हीं मार्गदर्शक तत्त्वां म्हळयार सगळयांखातीर रोजगार हमीची तजवीज करप, समान कामाखातीर समान पगार मेळप, सक्तीचें आनी फुकट मुळावें शिक्षण, संपत्तीची कायदेशीर वांटणी, नशाबंदी आनी भौशिक सुरक्षितताय. मार्गदर्शक तत्त्वां राज्यान कितें करपाक जाय हे विशीं विधायक सुचोवण्यो करता. लोकशायेंत सत्तांतर जालें तरी देशाचो विकास एका खाशेल्या मार्गान जावचो म्हूण मार्गदर्शक तत्त्वांची तजवीज करप जाल्या.

बदलत्या काळाकडेन आनी समाजाच्या गरजांकडेन सुसंगत रावपाखातीर संविधानांत ताचे सुदारणा प्रक्रियेचो दुरुस्तीचो आस्पाव आसा. भारताच्या संविधानांत संविधान सुदारणेच्यो तीन प्रक्रिया आस्पावल्यात. कांय तत्त्वां संसदेक भोवमतान बदलपाक मेळटात. कांय धोरणांच्या सुदारणांखातीर संसदेच्या दोनूय घरांनी मेळून दोन-तृतीयांश सभासदांचो तेंको जाय पडटा. तर कांय तत्त्वांच्या सुदारणांखातीर संसदेच्या दोनूय घरांनी मेळून दोन-तृतीयांश सभासदांचो तेंको आसून लेगीत ताका अर्द्यापरस चड राज्यांच्या विधानसभांची मान्यताय आसची पडटा.

**राखणेंवेवस्था :** भारतीय संविधानाप्रमाण राष्ट्रपती हो राखणेदलाचो सर्वोच्च मुखेली आसून ताका दिल्ल्या हक्कांचो वापर संसदेन मान्य केल्ल्या कायद्यांवरवीं जाता. कांय खाशेल्या कामांत ताका प्रधानमंत्री आनी राखणे मंत्र्याचोय सल्लो मानून घेवचो पडटा. संघराज्यांभितर अस्थीरपण वा देशाक परकीय राश्ट्रांकडच्यान धोको निर्माण जाल्यार, तशेंच आणिबाणीच्या काळांत मंत्रीमंडळ संघराज्याची राखण करूंक अपात्र आनी लोकशाहीक धोको निर्माण जाल्यार राश्ट्रपतीक आपल्या अधिकारांचो उपेग करपाक मेळटा. भारतांत संसदीय लोकशाय आशिल्ल्यान राखणेविशीं निती आनी येवजणोय केंद्रीय मंत्रिमंडळ थरयता. ही जापसालदारकी मुखेलपणान राखणे मंत्र्याची आसता. राखणेवेवस्थेचें प्रशासकीय क्रिया नियंत्रण आनी हेर वेव्हारांचेर राखणेमंत्री तिनय राखणेदळांतल्या मुखेल्यांच्या पालवान देखरेख दवरता. केंद्रीय मंत्रिमंडळाची राजकीय कार्यसमिती ही राश्ट्रीय सुरक्षा, संरक्षण संघटना सेनाध्यक्षांची नेमणूक, म्हत्वाची शस्त्रखरेदी अशा राखणेच्या संदर्भांतले म्हत्त्वाचे निर्णय घेता.

प्रधानमंत्री ते समितीचो अध्यक्ष आसता. भारताचे राखणे मंत्री, गृहमंत्री, अर्थमंत्री तशेंच हेर कांय मंत्रीय प्रधानमंत्र्याच्या आदेशावरवीं ते समितीच्या कार्यांत वांटो घेतात.

राखणेमंत्र्याच्या आदाराक एक वा दोन मंत्री आसतात. ते राखणेउपेगी उत्पादन आनी सामुग्रीची पुरवण करपाखातीर राखणेमंत्र्याक जापसालदार आसतात. राखणेमंत्र्याक विज्ञानसंशोधन, तशेंच हेर संशोधन विशयांचेर सल्लो दिवपाखातीर एक मुखेल वैज्ञानिक सल्लागार आसता.

राखणेकार्य गडगंज जावचें तशेंच त्या क्षेत्रांतलो कारभार वेवस्थीत चलचो म्हणून सरकारान कांय खाशेल्यो समिती नेमल्यात त्यो अशो :

**१) सेनाध्यक्ष समिती :** भूसेनाध्यक्ष, नौसेनाध्यक्ष आनी वायुसेनाध्यक्ष हे समितीचे सदस्य आसात. राखणे येवजण, युध्दनिती आनी राखणेसेनेच्या भितर येवपी म्हत्वाच्या प्रस्नांचेर भासाभास करून, निर्णयाखातीर नियाळ केंद्रीय मंत्रिमंडळाकडेन धाडटा. **२) सचिव समिती :** सेनादलांची कार्यवाही वेवस्थीत करप आनी तांची कार्यक्षमता वाडोवप ही ते समितीची जापसालदारकी. **३) राखणमंत्र्याची समिती :** ही समिती राखणेयेवजण्यो देशरक्षणांखातीर म्हत्वाच्या शस्त्रांची मागणी आनी राखणे सेनेच्या संघटनांच्या प्रस्नांचेर निर्णय घेता. तिनूय दलांचे सेनाध्यक्ष, राज्यमंत्री, राखणेसचीव, वैज्ञानिक सल्लागार आनी अर्थीक सल्लागार हे समितीचे सदस्य आसून राखणेमंत्री ते समितीचो अध्यक्ष आसता. **४) राखण उत्पादन आनी पुरवण समिती :** आधुनिक आनी हेर शस्त्रांची पुरवण आनी उत्पादन हांच्यो येवजण्यो आंखप, ते खातीर लागपी सामुग्री आयात करप हो हे समितीचो मुखेल वावर. **५) संशोधन आनी विकास समिती :** झुजामाऱ्याचीं साधनां, उपकरणां, आयुधां, येरादारीमार्ग, वाहनां आनी राखणे संबंदीच्या हेर म्हत्वाच्या क्षेत्रांत संशोधन करप तसोच तांचो विकास करप हो हे समितीचो मुखेल वावर.

आधुनिक शस्त्रसेनेक झुजाखातीर सदांच कार्यक्षम दवरपाखातीर विज्ञान, भौतिकशास्त्र आनी तंत्रविद्या क्षेत्रांतलें संशोधन आनी विकास कार्यांचें गिन्यानाचें म्हत्व दिसान दीस वाडत आसा, म्हूण १९८० त राखणे संशोधन आनी विकास ह्या स्वतंत्र कार्यालयाची स्थापणूक केल्या. ते कार्यालय मुखेल वैज्ञानीक सल्लागार आनी सचीव हांचे देखरेखीखाला आनी सल्ल्यान वावर करता.

भारताचे सेनाबळाचे भूसेना, नौसेना आनी वायुसेना अशे वेगवेगळे विभाग केल्यात.

**भूसेना :** भूसेनेचें मुखेल कार्यालय नवी दिल्लींत आसा. फिल्ड मार्शल हो भूसेनेचो मुखेली आसून ताका पालव दिवपाक भूसेनेचो उपमुखेली, भूसेना प्रतिनिधी, पालवी जनरल, कॉर्टरमास्टर जनरल, दारुगुळयाचो जनरल, सेना सचीव आनी मुखेल इंजिनीयर आसतात.

भूसेनेचे मुखेल पंगड अस्तंतीय, उदेंतीय, उत्तरीय, दक्षिणीय आनी केंद्रीय अशे पांच वांट्यांनी विभागल्यात. दर एक पंगड लेफ्टनन्ट जनरलाचे

देखरेखीखाला चलता. त्या मुखेल पंगडांचे मुखार प्रांतीक विभाग केल्ले आसून मेजर जनरल आनी ब्रिगेडीयर अशा हुद्याच्या अधिकाऱ्यांकडेन तांचो ताबो दिल्लो आसा. भारताचे भूसेनेंत चिलखती डिव्हिजन, मैदानी पायदळ डिव्हिजन, दोंगरी पायदळ डिव्हिजन, चिलखती ब्रिगेड, पायदळ ब्रिगेड इलेक्ट्रीकल आनी मॅकानिकल इंजिनिअरींग दळ, मिलिटरी फार्म सर्व्हिस, सेना शिक्षण दळ, गुप्तचर दळ, सेना पुलीस दळ, पायोनियर दळ, शिटकावणी दळ, सेना पोस्ट सेवा दळ हांचो आस्पाव जाता.

**नौसेना :** मुखेल कार्यालय नवी दिल्लींत आसा. नौसेनेचे अस्तंतीय (मुंबय), उदेंतीय (विशाखापट्नम) आनी दक्षिणीय (कोचीन) अशे तीन मुखेल नौसेना पंगड आसात. नौसेना मुखेल्याक (chief admiral) पालव दिवपाक नौसेना उपमुखेली, सामान मुखेली, नौसेना प्रतिनिधी, मुखेल कर्मचारी, नाविक उत्पादन आनी संपादन नियंत्रक आनी मुखेल लॉजीस्टीक आसतात.

फ्लॅग ऑफिसर कमांडिंग इन चीफ हाचे देखरेखीखाला अस्तंतीय आरमार आनी उदेंतीय आरमार अशीं नाविक दळाची रचणूक केल्या. गोंय तशेंच अंदमान आनी निकोबार हांगा फ्लॅग ऑफिसराचे देखरेखीखाला नाविक तळ आसात. नौसेनेंत विमानवाहक झुजाबोटी, बोटी, विमानवेधी (anti-aircraft), पाणबुडीवेधी बोटी (anti-submarine), पाणबुड्यो, कुझर, विनाशिका (destroyer), फ्रिगेट, कॉर्व्हेट, नाळ-प्रक्षेपणास्त्र गस्त नौका, रणगाडेवाहक नौका आनी हेर आधुनिक शस्त्रांचो मारो करपी झुजाबोटींचो आस्पाव जाता.

नौसेनेक घटाय हाडपाक भारत सरकारान स्थिर अशें नाविक वायुदल उबारलां. तातूंत सुपर कॉंटेलेशन, आय आर-३८, ॲलीझेस्, सी हॅरीयर, आयलॅंडर, सी कींग, ऑलसुटर आनी के ळ-२५ सारकिल्लीं झुजारी विमानां आनी सशस्त्र हेलिकॉप्टर आसात.

सागरतीर संरक्षक (coast guard) हो संरक्षण मंत्रिमंडळाचो एक वांटो आसा. ताचें मुखेल कार्यालय नवी दिल्लींत आसा. तशेंच मुंबय, मद्रास आनी ब्लेअर हांगा प्रांतिक कार्यालयां आसात.

**वायुसेना मुखेली :** वायुसेनेची विभागणी पांच ऑपरेशनल कमांड आनी दोन सहाय्यक कमांडांनी केल्या ती अशी : अस्तंतीय वायू कमांड, उदेंतीय वायू कमांड, दक्षिणीय वायू कमांड, केंद्रीय वायू कमांड, नैऋत्य वायू कमांड, प्रशिक्षण कमांड आनी देखभाल कमाड. वायूसेनेचे मुखेल कार्यालय नवी दिल्लींत आसा. झूजपी, येरादारी, संपर्क, तेळणी अशा राखणेच्या गरजांप्रमाण तांची विभागणी केल्ली आसा.

आधुनिक झूजशास्त्राची गरज म्हूण भारतीय राखणे दळांनी वेगवेगळ्या पल्ल्यांची क्षमता आशिल्लीं क्षेपणास्त्रां आनी अग्नीबाण ह्या आधुनिक अशा सशक्त झुजां अस्त्रांची तजवीज केल्या.

**भूसेना मुखेली**

| नांव | कार्यकाळ |
|---|---|
| जनरल महाराजा राजेंद्र सिंघजी | १ एप्रिल १९५५ ते १४ मे १९५५ |
| जनरल एस्. एम्. श्रीनागेश | १५ मे १९५५ ते ७ मे १९५७ |
| जनरल के. एस्. थिमय्या | ८ मे १९५७ ते ७ मे १९६१ |
| जनरल आर. एन. थापर | ८ मे १९६१ ते १९ नोव्हें. १९६२ |
| जनरल जे. एन्. चौधरी | २० नोव्हें. १९६२ ते ७ जून १९६६ |
| जनरल पी. पी. कुमारमंगलम् | ८ जून १९६६ ते ७ जून १९६९ |
| जनरल एस. एस्. एच्. जे. मानेकशॉ | ८ जून १९६९ ते ३१ डिसें. १९७२ |
| फिल्ड मार्शल एस्.एच्.एक.जे.मानेकशॉ | १ जाने. १९७३ ते १५ जाने. १९७३ |
| जनरल जी. जी. बेवूर | १६ जाने. १९७३ ते ३१ मे १९७५ |
| जनरल टी. एन्. रायना | १ जून १९७५ ते ३१ मे १९७८ |
| जनरल ओ. पी. मल्होत्रा | १ जून १९७८ ते ३१ मे १९८१ |
| जनरल के. वी. कृष्णराव | १ जून १९८१ ते ३१ जुलय १९८३ |
| जनरल ए. एस्. वैद्य | १ ऑगस्ट १९८३ ते ३१ जाने. १९८६ |
| जनरल के. सुंदरजी | १ फेब्रु. १९८६ ते ३० एप्रिल १९८८ |
| जनरल वी. एन्. शर्मा | १ मे १९८८ ते ३० जून १९९० |
| जनरल एस्. एफ. रॉड्रीगीस | १ जुलय १९९० ते ३० जून १९९३ |
| जनरल बिपीन चंद्र जोशी | १ जुलय १९९३ ते १८ नोव्हें. १९९४ |
| जनरल शंकर रॉय चौधरी | २३ नोव्हेंबर १९९४ |

**नौसेना मुखेली**

| नांव | कार्यकाळ |
|---|---|
| वायस ॲडमिरल आर. डी. कतारी | २२ एप्रिल १९५८ ते ४ जून १९६२ |
| वायस ॲडमिरल बी. एस्. सोमान | ५ जून १९६२ ते ३ मार्च १९६६ |
| ॲडमिरल ए. के. चॅटर्जी | ४ मार्च १९६६ ते २७ फेब्रु. १९७० |
| ॲडमिरल एस्. एम्. नंदा | २८ फेब्रु. १९७० ते २८ फेब्रु. १९७३ |
| ॲडमिरल एस्. एन्. कोहली | १ मार्च १९७३ ते २८ फेब्रु. १९७६ |
| ॲडमिरल जे. एल्. कूरसेतजी | १ मार्च १९७६ ते २८ फेब्रु. १९७९ |
| ॲडमिरल आर. एल्. पेरैरा | १ मार्च १९७९ ते २८ फेब्रु. १९८२ |
| ॲडमिरल ओ. एस्. दावसन | १ मार्च १९८२ ते ३० नोव्हें. १९८४ |
| ॲडमिरल आर. एच्. लहिलीयानी | १ डिसें. १९८४ ते ३० नोव्हें. १९८७ |
| ॲडमिरल जे. जी. नाडकर्णी | १ डिसें. १९८७ ते ३० नोव्हें. १९९० |
| ॲडमिरल लक्ष्मीनारायण रामदास | १ डिसें. १९९० ते ३० सप्टें. १९९३ |
| वायस ॲडमिरल वी. एस्. शेखावत | १ ऑक्टो. १९९३ |

| नांव | कार्यकाळ |
|---|---|
| ॲरमार्शल सर थोमास एलमहीर्स्त | १५ ऑग. १९४७ ते २१ फेब्रु. १९५० |
| ॲरमार्शल सर रॉनाल्ड चपनाम | २२ फेब्रु. १९५० ते ९ डिसें. १९५१ |
| ॲरमार्शल सर जेरायड गिब्बस | १० डिसें. १९५१ते ३१ मार्च १९५४ |
| ॲरमार्शल सर एस्. मुखर्जी | १ एप्रिल १९५४ ते ४ नोव्हें. १९६० |
| ॲरमार्शल ए एम् इंजिनिअर | १ डिसें. १९६० ते ३१ जुलय १९६४ |
| ॲरचिफ मार्शल अर्जून सिंघ | १ ऑगस्ट १९६४ ते १५ जुलय १९६९ |
| ॲरचिफ मार्शल पी. सी. लाल | १६ जुलय १९६९ ते १५ जाने. १९७३ |
| ॲरचिफ मार्शल ओ. पी. मेहरा | १६ जाने. १९७३ ते १ फेब्रु. १९७६ |
| ॲरचिफ मार्शल एच. मूळगांवकर | १ फेब्रु. १९७६ ते ३१ ऑग. १९७८ |
| ॲरचिफ मार्शल आय. एच. लतीफ | १ सप्टें. १९७८ ते ३१ ऑग. १९८१ |
| ॲरचिफ मार्शल दिलबग सिंघ | १ सप्टें. १९८१ ते ३ सप्टें. १९८४ |
| ॲरचिफ मार्शल एल्. एम्. कत्रे | ४ सप्टें. १९८४ ते १ जुलय १९८५ |
| ॲरचिफ मार्शल डि. ए. ला फॉंटाने | ३ जुलय १९८५ ते ३१ जुलय १९८८ |
| ॲरचिफ मार्शल एस्. के. मेहरा | १ ऑग. १९८८ ते ३० जुलय १९९१ |
| ॲरचिफ मार्शल एन्. सी. सूरी | ३१ जुलय १९९१ ते ३० जुलय १९९३ |
| ॲरचिफ मार्शर एस्. के. कौल | ३१ जुलय १९९३ |

**पुलीस प्रशासन :** सुवेवस्था राखून दवरप आनी गुन्यांवांक आळो घालप हो पुलिसांचो मुखेल वावर. भारतीय संविधानाप्रमाण भौशिक सुवेवस्था आनी पुलीस यंत्रणा घटक राज्याचे देखरेखीखाल चलता. पूण संविधानांतल्या २४९ व्या अनुच्छेदाप्रमाण देशाच्या हिताखातीर केंद्र सरकाराक खंयच्या घटकराज्याच्या पुलीस प्रशासनांच्या हस्तक्षेप करपाची तजवीज आसा.

पुलीस महानिरीक्षक हो घटक राज्यांतल्या पुलीस प्रशासनाचो मुखेली. दर एका घटक राज्यांतले पुलीस यंत्रणेचे प्रदेशीक विभागणेक रेंज अशें म्हण्टात. पुलीस उपम्हानिरीक्षक हो रेंजचो मुखेली. दर एका रेंजाभितर जिल्हो, उपविभाग, सर्कल, पुलीस ठाणे अशीं ल्हान ल्हान प्रशासन केंद्रां आसतात. तशेंच दर एका घटकराज्यांत सशस्त्र पुलीसदल, गुप्तवार्ता विभाग, गुन्यांव प्रतिबंध, प्रशिक्षण विभाग, राज्य हत्यारी पुलीसदल, बिनतारी तारायंत्र विभाग अशे स्वतंत्र फांटे आसतात. केंद्र सरकारच्या नियंत्रणाखाल केंद्रीय राखीव पुलीसदल, रेल्वे राखणेदल, सीमा सुरक्षादल केंद्रीय उद्देगीक सुरक्षादल हांचो आस्पाव जाता. सेंट्रल इंटेलिजन्स ब्यूरो ही केंद्रीय गुप्तवार्ता संस्था चड म्हत्वाची. केंद्र शासनाच्या सगळया प्रशासन विभागांकडेन ही संस्था संपर्क दवरता. सेंट्रल ब्यूरो ऑफ इन्वेस्टिगॅशन ही संस्था केंद्र शासनांतल्या सेवकासंबंदींच्या प्रकरणांचो नियाळ करता. तशेंच आंतरराश्ट्रीय आनी आंतरराज्यीय प्रकरणांत चवकशी करपाचो वावरूय करता. इन्स्टिट्यूट ऑफ क्रिमिनॉलॉजी अँड फॉरेन्सिक सायन्सेस (कलकत्ता), सेंट्रल फिंगप्रींट ब्यूरो (कलकत्ता), सेंट्रल डिटेक्टीव ट्रेनिंग स्कूल (कलकत्ता), सेंट्रल ट्रान्सपोर्ट स्कूल (सागर), सेंट्रल स्कूल फॉर वेपन्स अँड टेक्टिक्स (इंदूर) ह्यो संस्था केंद्र सरकारचे देखरेखीखाल चलतात. होमगार्ड आनी सिवील डिफेन्स ह्यो स्वयंसेवी संघटना फावो त्या वेळार पुलीस यंत्रणेक आदार करतात.

**अर्थीक स्थिती :** सद्या भारताचो विकसीत देशांभितर आस्पाव जाता. भारताची अर्थीक स्थिती मुखेलपणान शेतवडीचेर आदारिल्ली आसून, वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांतलो सुमार एकतृतीयांश वांटो शेतकी उत्पादनासावन मेळटा. भारतांतल्या वट्ट कामगारांतले सुमार दोन तृतीयांश कामगार शेतवडीच्या वेवसायांत आसात. भारत स्वतंत्र जाल्याउपरांत पंचवर्सुकी येवजण्यो चालीक लावन अर्थीक मळावयल्या सगळया क्षेत्रांनी घसघशीत यश जोडपाची मोख भारत सरकारान दवरल्या. आयज मेरेन अशो णव पंचवर्सुकी येवजण्यो चालींत हाडल्यात. देशांतली धनसंपत्ती उत्पादन सांठ्यांचो योग्य रितीन उपेग करून अर्थीक उदरगत घडोवन हाडप, राश्ट्रीय उत्पादनांत वाड करप, व्हडा प्रमाणांत रोजगाराची संद निर्माण करप, समाजीक आनी अर्थीक समता घडोवन हाडप, स्वंयपोशक (Self-Sustaining), आत्मनिर्भरता, जीवनमानांत वाड आनी म्हारगायेक आळो घालप हे दर एके येवजणेफाटल्यान मुखेल उद्देश दवरून, भारताची सर्वांगीण उदरगत सादप ही अंतीम मोख आसा.

सरकारी भांडवल कशें एकठांय करप आनी देशकल्याणा खातीर तें खंय मोडप हांची पुराय जापसालदारकी केंद्रीय वित्त मंत्रालयाचेर आसा. तशेंच वर्सुकी अदमासपत्रक (Budget) करप होय तांचोच वावर. १९९१ सावन भारतान अर्थीक मळार तोखणाय करपासारकी प्रगती केल्या. १९९१ त भारत सरकारान आपणायल्ले अर्थीक विमुक्ती-येवजणेक लागून भोवराश्ट्रीय कंपन्यांक हांगा आपल्या भांडवलाची गुंतवणूक करपाक खूब वाव मेळ्ळो. तशेंच व्हडा प्रमाणांत निर्यातींत वाड जाल्ल्यान भारतांत व्हड उद्देगीक क्रांती जावंक पावली. स्वातंत्र्या उपरांत सुरवेचीं सुमार चाळीस वर्सां मेरेन भारत सरकारान समाजवादी पद्दत आपणायल्ली. स्वदेशी उद्देगांक राखण दिवपाच्या उद्देशान सरकारी क्षेत्रांतल्या उद्देगांक चड सवलती मेळटाल्यो. व्हड जकात वा कराक लागून खाजगी कंपन्यांक आनी परकीय भांडवल गुंतवणुकेक चड वाव नाशिल्लो. पूण अर्थीक उदरगत घडोवन हाडपाखातीर १९९० चे सुरवेकसावन भारत सरकारान परवानाधारक पद्दत काडून खाजगी आनी व्हड व्हड परकीय कंपन्यांक नवे उद्देग सुरू करपाक मान्यताय दिल्या. तशेंच भोवराश्ट्रीय भांडवल गुंतवणुकेकूय प्रोत्साहन दिलां. हाका लागून उद्देगधंद्यांत आनी राश्ट्रीय उत्पादनांत वाड जाल्या. १९८६ त भारत सरकारान अर्थीक उदरगत नेटान धडोवन हाडपाखातीर वीस कलमी येवजण (20 Point Programme

- 1986) सुरू केल्ली. ही येवजण चालींत हाडपाक सरकारान शेतकी मळार सुदारणा घडोवन हाडपाचेर आनी गांवगिऱ्या वाठारांतली गरिबी पयस करपाचेर चड भर दिला.

शेतवड हो भारतीय अर्थीक वेवस्थेचो व्हाटी कणो आसा. पंचवर्सुकी आनी हेर येवजण्यांवरवीं भारत सरकारान शेतवड मळार चड म्हत्व दिल्ल्यान सद्या वट्ट राश्ट्रीय येणावळींत शेतकी उत्पादनाचो व्हड वांटो आसा. त्या वेवसायाक लागून देशांतल्या वट्ट कामगारांतल्या सुमार ७०% कामगारांक काम मेळटा आनी वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांत ताचो सुमार ३५% वांटो आसता. तशेंच देशांतल्यान निर्यात जावपी म्हालांत शेतकी उत्पादनाचोच चड वांटो आसता. शेतकी वेवसायाक लागून व्हड व्हड उद्देगांक कच्च्या म्हालाची पुरवण जाता. कपडो, ताग आनी ऊंस उद्देग हे मुखेलपणान शेतवडीचेरूच आदारून आसात.

संकरीत बियाण्यांचो वापर आनी चड प्रमाणांत साऱ्याचो उपेग, तशेंच शेतमालकांक साऱ्याचेर दिल्ल्यो खास सवलती आनी रिणां हांकां लागून शेतकी उत्पादनांत खूब वाड जाल्या. भारतीय शेतकी खात्यान नव्यो नव्यो येवजण्यो चालीक लावन, तातूंत शेतवडीखातीर चडांत चड जमनीचो उपेग, उदकाची वेवस्था, माती तपासणी, दुग्धवेवसाय आनी नुस्तेमारीचेर भर दिला. शेतकी मळार साऱ्याचो उपेग करपांत अमेरिका, रशिया आनी चीन देशांफाटल्यान भारताचो चवथो क्रम लागता, जाल्यार कड्डणाखातीर चड जमनीचो उपेग करपी भारत मुखेल देश आसा. कापसाच्यो संकरीत बियो तयार करपी भारत पयलो देश आसून, किटकनाशकांचोय देशांत चड उपेग जाता. देशांत जावपी पिकावळीचे खाद्य आनी नगदी पिकां अशे दोन वांटे केल्यात. खाद्य पिकावळ मुखार धान्य आनी कड्डण अशीं विभागल्यांत. तांदूळ, गंव, ज्वारी, बाजरी आनी मको हांचो धान्यांत आस्पाव जाता, जाल्यार वाटाणे, हरबरे, मूग, मसूर, चवळी सारकिल्ल्यांचो कड्डणांत आस्पाव जाता. ऊंस, कापूस, ताग, तंबाकू, च्या, कॉफी, रबर हांचो नगदी पिकावळींत आस्पाव जाता. सद्या मूग, सोयाबीन, भिकणां आनी सूर्यफुलांच्या बियांक चड खप आशिल्ल्यान तांची लागवड व्हडा प्रमाणांत जाता. भारतीय हवामान समशीतोश्ण, उश्णप्रदेशीय आनी उपोश्णप्रदेशीय आशिल्ल्यान देशांत फळफळावळ आनी भाजीपालो खूब प्रमाणांत जाता.

पशुसंवर्धन (Animal Husbandry) आनी नुस्तेमारी हे शेतवडीचेच वांटे आसून ते साबार लोकांक वेवसाय दितात. सद्या भारतांत चड दूद दिवपी उच्च दर्जाच्यो ट्रॉपिकल गायो आनी म्हशी आसात. उच्च दर्जाच्यो गायो आनी म्हशी तयार करपाचें फार्म सुरतगड (राजस्थान), धमरोड (गुजरात), अलामादी (तमिळनाडू), चिपलीमा (ओरिसा), सेमीलीगूडा (ओरिसा), अंदेशनगर (उत्तर प्रदेश) आनी हेस्सेर्धट्टा (कर्नाटक) हांगा आसात. सवे पंच वर्सुकी येवजणेंत उच्च दर्जाचीं गोरवां तयार करून दुग्ध वेवसाय आनी मांस वेवसाय वाडोवपाचेर भर दिल्लो. कुकडां पोसप हो शेतकी वेवसायाचो एक म्हत्वाचो भाग. पोल्ट्री सावन फायदेशीर येणावळ मेळटा आनी तशेंच ताका लागून साबार लोकांक वेवसायाची संद मेळटा. तांतयां घालपाची चड क्षमता आशिल्लीं कुकडां तयार करपाचे फार्म बेंगलोर, मुंबय, भूवनेश्वर आनी गिरगांवांत आसात. दुकराच्या मांसाक सद्या चड खप आशिल्ल्यान दुकरां पोसपाच्या वेवसायाकूय नेट आयला. शिंयाळ्या वाठारांनी मेंढरां पोसपाच्या वेवसायाक म्हत्व दिलां. देशाचे येणावळींत नुस्तेमारीचो वांटो म्हत्वाचो आसा. वेगवेगळ्या नुस्त्यांचीं, सुंगटांचीं आनी खुब्यांचीं तांतयां तयार करून तांचें उत्पन्न वाडोवपाचे वावर भारतांत साबार कडेन आसात. नुस्तें मारपाखातीर परंपरीक तारवांचो तशेंच आधुनिक यंत्र बोटींचोय वापर खूब प्रमाणांत जाता. रानांसावन मेळपी येणावळीचोय वांटो म्हत्वाचो आसा. फर्निचर, मदेर, कागद, रेयॉन, पापेलांव, फस्कां आनी हेर वस्तू तयार करपाक रुखांचो खूब उपेग जाता. देशांत वखदी वनस्पतींचोय आंकडो व्हड आसा.

भारतांत वेगवेगळ्या खनिजांचे सांठे खूब प्रमाणांत आसात. पूण आयजमेरेन तांचो रितसर आनी फाव त्या प्रमाणांत उपेग जावंक ना



जुळणी प्रकल्प

अशें तज्ञांचें मत आसा. संविधाना प्रमाण खनिजां आनी खाण वेवसायाचेर राज्य सरकाराचें नियत्रंण उरता. खनिजां काडून ताचो योग्य तरेन

उपेग करपाचो वावर १९५७ त खाण आनी खनिजां कायद्यावरवीं जाता. कोळसो, लोखण, बॉक्सायट, मायका, क्रॉमायट, बायरायट, डोलोमायट, चुन्याखडी हीं भारतांत सांपडपीं मुखेल खनीजां. फातरी कोळसो हें भारतांत चड प्रमाणांत सांपडपी खनीज. सद्या कोळसो उत्पादनांत भारताचो संवसारांत पांचवो आंकडो लागता. अस्तंत बंगाल, बिहार, ओरिसा, मध्य प्रदेश, आंध्र प्रदेश आनी महाराष्ट्रांत तें चड प्रमाणांत सांपडटा. बॉक्सायटाचेय सांठे खूब प्रमाणांत आसून, आंध्र प्रदेश, बिहार, गोंय, गुजरात, जम्मू-काश्मीर, कर्नाटक, केरळ, मध्य प्रदेश, महाराष्ट्र, ओरिसा, राजस्थान, तमिळनाडू आनी उत्तर प्रदेश राज्यांनी ते चड प्रमाणांत सांपडटात. क्रॉमायटचे सांठे आंध्र प्रदेश, बिहार, कर्नाटक, महाराष्ट्र, मणिपूर, ओरिसा आनी तमीळनाडू राज्यांनी मेळटात. तर तांब्याचे सांठे बिहार, मध्य प्रदेश आनी राजस्थानांत कांय प्रमाणांत मेळटात. संवसारांतल्या लोखणाच्या वट्ट सांठ्यांतलो सुमार २५ % सांठो भारतांत आसा. बिहार, ओरिसा, मध्य प्रदेश, महाराष्ट्र, गोंय आनी कर्नाटक राज्यांत लोखणाचे सांठे चड प्रमाणांत सांपडटात. पोलाद उत्पादनाखातीर मँगनीजाचो वापर करपांत भारताचो संवसारांत दुसरो आंकडो लागता. आंध्र प्रदेश, गोंय, गुजरात, कर्नाटक, मध्य प्रदेश, तमिळनाडू, बिहार, ओरिसा राज्यांनी ताचे सांठे सांपडटात. भांगर, जिप्सम, ग्राफायट, शिशें, जस्त, निकेल, फोस्फेट, मँग्नीसायड हांचेय सांठे भारतांत कांय प्रमाणांत मेळटात.

भारत स्वतंत्र जाल्याउपरांत सुमार १९५६ त दुसरे पंच वर्सुकी येवजणेंत उद्देगधंद्यांचेर भर दिल्ल्यान भारतांत उद्देगीकरणाचें नवें पर्व सुरू जालें. कांय वर्साभितरूच उद्देगीक क्षेत्रांत नेटान वाड जाली. १९९१ त नवे येवजणे प्रमाण भारत सरकारान खाजगी आनी परकीय कंपन्यांक नवे उद्देग सुरू करपाक मान्यताय दिल्ल्यान, तशेंच भोवराश्ट्रीय भांडवल गुंतवणुकेक प्रोत्साहन दिल्ल्यान देशांत उद्देगीक क्रांती घडून आयली. सद्या उद्देगीक उत्पादनांत विविधता, गुणवत्ता आनी परिंणामात्मक नदरेन खूब सुदारणा जाल्या. तेच प्रमाण कांय गरजू आनी भांडवली वस्तूंत भारत आत्मनिर्भरीत आसा. खणउद्देग, शिंपणावळ, वीज, रसायनां, येरादारी आनी संचारण सारकिल्ल्या क्षेत्रांत स्वंयपूर्णता येवची म्हूण देशी आवतांचो व्हडा प्रमाणांत उपेग जाता. पोलाद, कपडो, शिमीट, जूट, साकर हे भारतांतले मुखेल उद्देग. पब्लीक सेक्टर स्टिल प्लांट (मध्य प्रदेश), दुर्गापूर स्टिल प्लांट (अस्तंत बंगाल), रोअरकेला स्टिल प्लांट (ओरिसा), बोकारो स्टिल प्लांट (बिहार), सालेम स्टिल प्लांट (तमिळनाडू) हे पोलाद तायर करपी भारतांतले मुखेल कारखाने. कपडो उद्देग हो भारतांतलो सगळयांत व्हडलो उद्देग. १९५१ त भारतांत फकत ३७८ कापड गिरणी आशिल्ल्यो. पूण १९९० मेरेन तांचो आंकडो १,०५१ मेरेन पावला. मुंबय, अहमदाबाद, सोलापूर आनी नागपूर हांगा तो उद्देग नेटान चलता. भारतांत तयार जावपी कपड्यांतल्या सुमार २५% कपड्याची निर्यात जाता. साकर उत्पादनांत भारताचो चवथो क्रम लागता. हातमाग, ताग, कागद, सारें, अभियांत्रिकी, वाहनां आनी तांचे मेकळे भाग, शाबू, चामड्याच्यो वस्तू, रसायनां, फार्मास्युटिकल्स, पेट्रोकेमिकल्स



अशुद्ध तेलाचें शुद्धीकरण

हे देशांतले हेर म्हत्वाचे उद्देग. फांतरी कोळसो, खनीज तेल, वीज आनी अणुशक्ती ह्या वेगवेगळया शक्तिसाधनांचो शेतकी वेवसाय, उद्देग धंदे आनी सेवाक्षेत्रांत काम करपी कामगारांनी उत्पादकता वाडोवपाक उपेग जाता. फातरी कोळसो रांदपाखातीर, रेल्वे येरादारी, लोखण आनी पोलाद उत्पादनांत वापरतात. नागरी आनी लश्करी गरजो भागोवपाक खनीज तेलाचो खूब उपेग जाता. देशांत अणुशक्तिचो उपेग शक्तीचें सादन म्हूण जावपाक लागला. तारापूरचें ४२० मेवॅ शक्तीचें पयलें अणुविद्युत् केंद्र ऑक्टोबर १९६९ सावन ऊर्जा निर्मिती करपाक लागलें. राजस्थान राज्यांतलें कोटा, तमिळनाडू राज्यांतलें कल्पकम् आनी उत्तर प्रदेशांतलें मरोरा हांगा अणुविद्युत्केंद्रां बांदल्यात. वीजनिर्मितीखातीर उदकाशक्तिचो वापर पुराय देशभर खूब प्रमाणांत जाता.

संवसारांतल्या चडशा सगळया देशांकडेन भारताचे वेपारी संबंद आसात. भारतांतल्यान १९० परकीय राश्ट्रांक सुमार ७,५०० वस्तुंची निर्यात जाता, जाल्यार १४० परकीय राश्ट्रांकडच्यान सुमार ६,००० वस्तुंची आयात जाता. १९९२-९३ वर्सा १,१७,०६३ कोटी रुपया मोलाच्या वस्तुंची निर्यात जाल्ली जाल्यार १९९३-९४ वर्सा १,४२,३५३ कोटी रुपया मोलाच्या वस्तुंची निर्यात जाल्ली. निर्यात जावपी वस्तूंत

रत्नां, अलंकार, तयार कपडे, चामड्याच्यो वस्तू, च्या, कॉफी, लोखण, खनीज, रसायनां, सुती कपडे, तागाच्यो वेगवेगळयो वस्तू, गालीचे, काजू बियो आनी मसाल्यांचो आस्पाव जाता. पेट्रोल आनी पेट्रोल उत्पादन, मशीनां, वाहनांचे मेकळे भाग, खाद्य तेल, जैविक आनी अजैविक रसायनां, गंव आनी इलेक्ट्रोनिक वस्तुंची आयात जाता. ओ ई सी डी (O E C D) देशांच्या म्हणजे अमेरिका, कॅनडा, ई ई सी देश, ऑस्ट्रेलीया आनी जपान ह्या देशांकडल्यान मुखेलपणान आयात जाता.

**येरादारी आनी संचारण :** रेल्वेमार्ग, रस्ते, उदका येरादारी आनी हवाईमार्ग हांचो भारतांत खूब विकास जाल्लो आसा. सामान तशेंच लोकांक हाडपा-व्हरपाचे नदरेन भारतांत रेल्वेमार्ग चड म्हत्वाचो थरला. भारतांत पयलो लोहमार्ग १८५३ त सुरू जावन तो मुंबय ते ठाणे शाराक जोडिल्लो आनी ताची लांबाय ३४ किमी. आशिल्ली. भारतांत रेल्वेमार्ग सुरू करपाचें श्रेय इंग्लंडांत थापणूक जाल्ल्या 'ईस्ट इंडियन रेल्वे कंपनी' आनी ग्रेट इंडियन पेनिन्सुलर रेल्वे कंपनीक वता. पयल्या म्हाझुजाच्या काळामेरेन लोहमार्गाची नेटान वाड जाली. सुरवेक रेल्वे खाजगी कंपनी आनी भारतीय संस्थानिकांच्या मालकिच्यो आशिल्ल्यो. स्वातंत्र्योत्तर काळांत देशांतल्या सगळया रेल्वेचें राश्ट्रीयकरण जालें. सद्या सबंद भारतांत रेल्वे मार्गांचें जाळें पातळिल्लें आसून सुमार ७,१०० रेल्वे स्थानकां आनी ६२,४८६ किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग आसात. भारतीय रेल्वेसेवेचो आशिया खंडांत पयलो तर संवसारांत चवथो क्रम लागता. वट्ट रेल्वे ट्रेकांतल्या सुमार २५% ट्रेकांचें विद्युतिकरण जाल्लें आसा. केंद्रिय रेल्वेमंत्री, राज्य रेल्वेमंत्री आनी रेल्वे मंडळ हांच्या मार्गदर्शनाखाला भारतीय रेल्वे वेवस्था णव क्षेत्रविभागांनी विभागल्या. दर एका क्षेत्रविभागाचेर जनरल मॅनेजर प्रमूख आसून, त्या क्षेत्रविभागांतलो सगळो वेव्हार ताचे देखरेखीखाल चलता.

| क्षेत्रविभाग | मुखेल कार्यालय | मार्गाची लांबाय (किमी.) |
|---|---|---|
| १) केंद्रिय | मुंबय | ७,०७६ |
| २) उदेंती | कलकत्ता | ४,३०३ |
| ३) उत्तरीय | नवी दिल्ली | १०,९९५ |
| ४) ईशान्य | गोरखपूर | ५,१३१ |
| ५) उत्तरीय सराद | मालीगांव (गुवाहाटी) | ३,८५८ |
| ६) दक्षिणीय | मद्रास | ७.००९ |
| ७) दक्षिण-मध्य | सिकंदराबाद | ७,२१८ |
| ८) आग्नेयी | कलकत्ता | ७,१७१ |
| ९) अस्तंती | मुंबय (चर्चगेट) | ९,७३५ |

१९९१ मेरेन देशांत सुमार २०.३७ लाख किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. सातवे पंच वर्सुकी येवजणेत राश्ट्रीय, राज्य आनी गांवगिन्या वाठारांतले रस्ते वाडोवपाचेर तशेंच सुदारणेचेर भर दिल्लो. ते येवजणेंत रस्ते बांदपाखातीर ६,१७९.७५ कोटी रुपया खर्च केल्ले. भारतांतले रस्ते चार वाट्यांनी विभागल्यात ते अशेः राश्ट्रीय महामार्ग, राज्य महामार्ग, जिल्होमार्ग आनी गांवांतले रस्ते. राश्ट्रीय महामार्ग देशांतलो मुखेल मार्ग आसून तो वेगवेगळया राज्यांक वा केंद्रशासीत प्रदेशांक जोडटा. राश्ट्रीय महामार्गाची लांबाय सुमार ३४,०५८ किमी. आसा. राज्यांतले महामार्ग राश्ट्रीय मार्गाक जोडल्यात जाल्यार जिल्हो आनी गांवांतले मार्ग राज्यमार्गाक जोडल्यात. अशे तरेन देशांतल्या सगळया वाठारांनी रस्त्यांचें जाळें पातळावपाचें काम बेस बरें जाला.

भारतांतली उदका येरादारी न्हंयांतल्यान आनी दर्यांतल्यान जाता. भारताच्या चारूय कोनशांनी साबार न्हंयो आसून, त्यो रूंद, खोल आनी लांब आशिल्ल्यान तांचो उदकायेरादारी खातीर उपेग जाता. सद्या सबंद देशांत सुमार १४,५०० किमी. लांबायेचे न्हंय मार्ग आसात. पूण यंत्रशक्तिच्या आदारान न्हंयेतल्यान जावपी येरादारीक उपेगी अशी जलमार्गाची लांबाय फकत ३,७००किमी आसा. गंगा, ब्रह्मपुत्रा आनी तांचे फांटे, गोदावरी, कृष्णा, महानदी, नर्मदा, तापी तांचे कालवे आनी फांटे, केरळचे कालवे, तमिळनाडू आनी आंध्र प्रदेशांतले कालवे. गोंयच्यो मांडवी आनी जुवारी न्हंयो, हातुंतल्यान देशाअंतर्गत उदका येरादारी चलता. देशाचो आंतरराश्ट्रीय वेपार मुखेलपणान म्हासागरी मार्गांतल्यानूच जाता. वेपारी जहाजांचो उपेग करचेखातीर विकसनशील देशांभितर भारताचो पयलो जाल्यार संवसारांत पंदरावो क्रम लागता. सद्या भारतांत ५६ जहाज कंपनी आसून, तातुंतली 'शिपींग कॉर्पोरेशन ऑफ इंडिया' ही सरकारी मालकेची आसा. जाल्यार हेर खाजगी कंपन्यो आसात. देशांत मुखेल ११ बंदरां आसात. तातुंतली मुंबय, कांडला, मुरगांव, नवें मंगळूर आनी कोचीन हीं अस्तंत दर्यादिगेर, आसात. जाल्यार कलकत्ता, मद्रास, विशाखापटनम्, प्रदीप, तुतीकोरीन आनी हल्दिया हीं उदेंत दर्यादिगेर आशिल्लीं मुखेल बंदरां. मुंबय हालिच्या तेंपार उबारिल्लें 'नव सेना' हें भारतांतलें सगळयांत व्हडलें आधुनिक बंदर.

देशाचो व्हड आवांठ आशिल्ल्यान हवाई येरादारी देशाचे राखणेखातीर तशेंच उद्देग आनी वेपारी नदरेन खूब म्हत्वाची थरता. भारतांत पयलें विमान उड्डाण १९११ त जालें. त्या वर्सा अलाहाबाद ते नैनीताल मेरेन विमानांतल्यान टपाल सेवा सुरू जाली. १९२७ त मुलखी खातें अस्तित्वांत आयलें. ताचे देखरेखीखाल मुलकी विमानतळ बांदले आनी व्हड व्हड शारांनी विमान उड्डाण मंडळांची स्थापणूक केली. १९२५ त भारत-इंग्लंड देशांभितर नेमान हवाई येरादारी सुरू जाली. १९३२ 'टाटा एअरवेज लिमीटेड' कंपनी देशाभितल्ली हवाई येरादारी सुरू केली. भारत स्वतंत्र जाल्या उपरांत देशांत हवाई येरादारी करपी साबार कंपन्यो अस्तित्वांत आशिल्ल्यो. पूण १९५३ त भारत सरकारान हवाई येरादारीचें राश्ट्रीयकरण केलें. सद्या भारतीय हवाई येरादारी तीन वाट्यांनी

विभागल्या. एअर इंडियाचे वतीन आंतरराश्ट्रीय मळार, पांच खंडांनी हवाई येरादारी चलता. देशाभितरली आनी शेजारी देशांकडेन इंडियन ऍरलायन्सा वरवीं हवाई येरादारी चलता, जाल्यार वायुदूत मंडळाकडच्यान मुखेलपणान देशाच्या ईशान्य भागांत हवाई येरादारी जाता. हालींच्या तेंपार खाजगी हवाई कंपन्यांकूय हवाई येरादारी चलोवपाक मान्यताय मेळ्ळया. मुंबयचो सहारा, कलकत्त्याचो डमडम, दिल्लीचो इंदिरा गांधी, मद्रासचो मिनांबख्खम् आनी त्रिवेंद्रमचो थिरुवनंतपुरम् हे आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात.

भारतांत पद्दतशीर टपाल सेवा १८३२ त सुरू जाली. उपरांत १८५२ त कराची शारांत पयलें टपाल तिकीट काडलें. १८५४ त टपाल खातें स्थापीत केल्लें, तेन्ना भारतांत ७०० टपाल कचेऱ्यो आशिल्ल्यो. टपाल सेवेंत 'मनी ऑर्डर' ची पद्दत १८८० त सुरू केली. १८८२ त पोस्ट ऑफिस सेविंग बँक सुरू केली. सद्या भारतांत १,५२,०३७ पोस्ट कचेऱ्यो आसून, तातुंतल्यो १,३५,६९२ कचेऱ्यो गांवगिऱ्या वाठारांनी जाल्यार १६,३४५ कचेऱ्यो शारांनी आसात. टपाल सेवेंत सुदारणा घडोवन हाडचेखातीर आनी परकीय राश्ट्रांकडेन बरो टपाल संपर्क दवरपाखातीर युनिवर्सल पोस्टल युनियन (UPU), ऍशियन पॅसिफीक पोस्टल युनियन आनी कॉन्फरन्स ऑफ कॉमनवेल्थ पोस्टल ॲडमीनिस्ट्रेशन ह्या आंतरराश्ट्रीय टपाल यंत्रणांकडेन भारत देशाचो सहभाग आसा.

देशांत पयलें टेलीफोन केंद्र १८८१ त कलकत्ता शारांत सुरू जालें. पयल्या स्वयंचलीत दूरध्वनी केंद्राची १९१३ त सिमला शारांत स्थापणूक जाली. त्या क्षेत्रांत १९५१ उपरांत नेटान वाड जाली. १९९४ पासून फोनाची सुविधा तळागाळा मेरेन पावोवपाचो सरकारान संकल्प सोडला आनी तेवटेन बऱ्याच प्रमाणांत यशय जोडलां.

भारतांतलें पयलें दूरचित्रवाणी (T.V.) केंद्र १९५९ त यूनोस्कोच्या आदारान दिल्लींत सुरू केलें. सुरवेक ताचें स्वरूप एक मार्गदर्शी दूरचित्रवाणी म्हूण आशिल्लें. त्यावेळार ताचेवयल्यान सप्तकाक फकत तीन शिक्षणीक कार्यावळी जातल्यो. सुरवेक तें केंद्र आकाशवाणी केंद्राचोच एक भाग आसलो. ऑगस्ट १९६५ त दिल्ली सावन सामान्य सेवा सुरू जाली. उपरांत १९७२ त मुंबय, श्रीनगर, जालंदर, कलकत्ता, मद्रास आनी लखनौ शारांनी दूरचित्रवाणी केंद्रां उबारलीं. १९७६ त दूरचित्रवाणी आकाशवाणी केंद्रासावन वेगळी जावन, 'दूरदर्शन' नांवान स्वतंत्र केंद्र अस्तित्वांत आयलें. १९८२ त आशिआई खेळाचें भारतान आयोजन केल्लें आनी त्या खेळाचें दर्शन चडशा भारतियांक जावचें म्हूण भारत सरकारान वेगवेगळया राज्यांनी २० उण्या तांकिचे ट्रांसमीटर उबारले. १५ ऑगस्ट १९८२ दिसा पयलेच खेपो रंगीत दूरदर्शन संच सादर केलो. उपरांत इन्सेट-आय ए (INSAT-IA) उपग्रहाच्या आदारान दूरदर्शना वयल्यान समान राश्ट्रीय कार्यावळी प्रसारीत जावपाक लागल्यो. सद्या दूरदर्शनाचो सुमार ८५% वयर लोकांक लाव मेळटा.

भारतांतल्या कांय वेपाऱ्यांनी १९२७ त मुंबय आनी कलकत्ता शारांनी दोन खाजगी केंद्रां उबारून रेडिओ ब्रॉडकास्टींग कंपनी सुरू केली. १९३० त भारत सरकारान ती आपले सुवादीन घेवन, इंडियन ब्रॉडकास्टींग सर्वीस नांवान ती वापरपाक लागले. १९३७ त तिचें नांव 'ऑल इंडिया रेडिओ' दवरलें. १९५७ सावन ती 'आकाशवाणी' नांवान प्रसिध्द आसा. सद्या देशांत १८५ रेडिओ केंद्रां आसून तांचो ८७% वयर लोकांक लाव मेळटा. आकाशवाणी वयल्यो चडशो कार्यावळी मध्यम तरंगांवयल्यान प्रसारीत जातात. दिल्ली, मुंबय, कलकत्ता, मद्रास, कोटागुडम, गोंय आनी कोचीन शारांनी 'एफ् एम्' प्रक्षेपक आसात.

**१९९२ मेरेन भारतांत उजवाडाक येवपी खबरांपत्रां-**

| भाशा | दिसाळें | सातोळें | म्हयन्याळें | वसुर्की |
|---|---|---|---|---|
| इंग्लीश | २४१ | ६११ | २,०९० | १२५ |
| हिंदी | १,५४१ | ५,५०४ | २,१५० | २० |
| आसामी | १० | ४८ | ४१ | १ |
| बंगाली | ७४ | ४९७ | ५७२ | ८ |
| गुजराती | ७३ | २७६ | ३८४ | ९ |
| कन्नड | १८४ | २७३ | ३७१ | २ |
| काश्मिरी | ० | १ | ० | ० |
| कोंकणी | २ | २ | २ | २ |
| मल्याळम | १७८ | १४७ | ५७५ | ८ |
| मणिपुरी | १० | ३ | ३ | ० |
| मराठी | २१५ | ५५१ | ३९४ | ८१ |
| नेपाळी | १ | ९ | ७ | ० |
| ओरिसा | ४१ | ७७ | २१२ | ४ |
| पंजाबी | ७६ | २८५ | २०१ | १ |
| संस्कृत | ३ | ६ | १३ | ० |
| सिंधी | ८ | ३० | ३१ | ० |
| तमिळ | २८९ | ३०७ | ५६३ | २ |
| तेलगू | ७७ | २०१ | ३२२ | १ |
| उर्दू | ३७३ | ९६२ | ४३३ | ३ |

**प्रसार माध्यम :** भारतांत सद्या इलेक्ट्रोनीक प्रसार माध्यमाची खूब उदरगत जाल्या. पूण छापीत प्रचार माध्यमान आपलो शेक कायम दवरला. ३१ डिसेंबर १९९६ मेरेन भारतांत उजवाडा येवपी वट्ट खबरांपत्रकां आनी नेमाळयांचो आंकडो ३९,१४९ इतलो आसलो. ऑडीट

ब्युरो ऑफ सर्क्युलेशनाचे (१९९७) आंकडेवारी प्रमाण इंग्लीश आनी अठरावे वळेरेंत आस्पाविल्ल्यो भाशा सोडून हेर ८१ प्रदेशीक भाशांनी खबरांपत्रकां उजवाडा येतात.

'हिकीज् गॅझेट' हें भारतांतलें पयलें खबरांपत्रक २९ जानेवारी १७८० ह्या दिसा तत्कालीन सत्ताधाऱ्यांच्या वावराक विरोध करच्या हेतान ताणें तें उजवाडा हाडलें. हिकीज् गॅझेट हाका लागून भारतीय खबरांपत्रकांक चालना मेळ्ळी. त्याच वर्सा नोव्हेंबरांत पीटर रीड आनी बी. मेसींक हांणी 'इंडिया गॅझेट' हें सातोळें उजवाडायलें. उपरांत पांच वर्सांभितरूच कलकत्ता गॅझेट, बेंगॉल जर्नल आनी कलकत्ता अम्यूझमेंट हीं नेमाळीं उजवाडा आयलीं. सुरवेक ईस्ट इंडिया कंपनीच्या कारभारांतलो गैरप्रकार उजवाडांत हाडपाखातीर, कंपनींतल्या कांय अधिकाऱ्यांनीच हीं खबरांपत्रकां प्रकाशीत केलीं.

बंगालांत सुरू जाल्ल्या खबरांपत्रांचे परिणाम उपरांत भारतांतल्या हेर प्रांतांनीय दिसपाक लागले. १७८५ त रिचर्ड जॉन्सन हाणें मद्रास कोरियर आनी १७९१त हुर्कारू हीं इंग्लीश खबरांपत्रकां काडलीं. १७८९ त मुंबयंत बाँबे हेराल्ड आनी १७९१ त बाँबे गॅझेट उजवाडा आयले.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन देशी भाशेंतल्या खबरापत्रांचो उदय जालो. १८१६ त बेंगॉल गॅझेट आनी १८१८ त समाचार दर्पण हीं खबरांपत्रां उजवाडा आयलीं. १८२२ त उजवाडा आयिल्लें मुंबय समाचार हें गुजराती भाशेंतलें पयलें खबरापत्र. जाल्यार तमिळ भाशेंतलें तमिळ मॅगझीन (१८३१) हें पयलें, सत्यदूत (१८३६) हें तेलुगू भाशेंतलें पयलें, दर्पण (१८३२) हें मराठींतलें पयलें आनी कर्नाटक प्रकाशिका (१८६५) हें कानडी भाशेंतलें पयलें खबरापत्र. सुरवेक ह्या सगळया खबरांपत्रांचो हेत लोकशिक्षण होच आसलो. १८५७ तल्या उठावा उपरांत राजकीय जागृताय आनी समाज सुदारणेचे चळवळीक लागून खबरांपत्रांनी नवें वळण घेतलें. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन अमृत बाजार पत्रिका, केसरी, हिंदू, लीडर, ट्रिब्यून आनी पायोनियर ह्या खबरांपत्रकांनी सबंद देशांत स्वातंत्र्याचें वातावरण निर्माण केलें.

१९२० उपरांत महात्मा गांधी हाचीं यंग इंडिया आनी हरिजन, मौलाना आझादचें अल् हिलाल आनी पंडित नेहरूचें नॅशनल हेराल्ड ह्या खबरांपत्रांनी स्वातंत्र्य चळवळींत म्हत्वाची भुमिका गाजयली.

सध्या टायम्स ऑफ इंडिया, मलयाळम मनोरमा, पंजाब केसरी, गुजरात समाचार, मातृभुमी, दैनिक जागरण, आनंद बाजार पत्रिका, हिंदू, एनाडू, इंडियन एक्स्प्रेस, संदेश, हिंदुस्तान टायम्स, लोकमत, आज, हिंदुस्तान, इकोनोमीक्स टायम्स आनी नवभारत हीं भारतांतल्या वेगवेगळया राज्यांतल्यान वेगवेगळया भाशांनी उजवाडा येवपी मुखेल दिसाळीं.

**लोक आनी समाजजीण :** प्राचीन भारतांत नेग्रीटो, प्रोटो-ऑस्ट्रेलॉयड, मंगोलॉयड (पुरा मंगोलॉयड तिबेटी मंगोलॉयड), भूमध्य समुद्री, अस्तंती प्रथु कपाली आनी नॉर्डीक अशा स मुखेल मानव वंशांचें अस्तित्व मेळटा. ह्या वंशांमदीं फुडाराक वंशीक संकरण जावन मिश्रवंशीक असो भारतीय समाज निर्माण जालो. विद्यमान भारतीय लोकसमाज मुखेलपणान तीन वंशीक गटांत विभागप जातात : १) इंडो युरोपियन वंश, २) द्रविडियन वंश आनी ३) मंगोलियन वंश. लांब नाकाचे आनी रूंद कपलाचे ऊंच अशे ताम्रवर्णी कश्मिरी, पंजाबी आनी उत्तर प्रदेशी लोक इंडो युरोपियन वंशाचे मानतात. चेपटें नाक, बारीक दोळे आनी पितवर्णी, बंगाली, आसामी आनी उदेंती भारतांतले कांय लोक मंगोलीयन वंशगटांत पडटात. पसरट नाक - ल्हान तकली आनी कृष्णवर्णी दक्षिण भारतीय लोक द्रविडियन वंश गटाखाला येतात. सदळपणान लोक समुहांची विभागणी प्रस्थापित वंश गटांत करप जाता आसली तरी वंशीक मिश्रण मोठ्या प्रमाणार जाल्ल्या कारणान त्या त्या प्रदेशांत तीं तीं लक्षणां त्या प्रदेशांतल्या सगळयाच लोकांक लागू पडटात अशें ना. हाका लागून कांय मानवशास्त्रज्ञांनी मंगोल द्रविडियन (बिहार, ओरिसा), द्रविड इंडोयुरोपियन (गुजरात, मध्य प्रदेश) अशा मिश्र वंशगटाची आनी मिश्र लक्षणांची कल्पना केल्या. भारताची लोक संख्या हिंदू (सुमार ८३%), मुसलमान (सुमार ११%), किरिस्तांव (सुमार ३%), शीख (सुमार २%), बौध्द (सुमार ०.५%), जैन (सुमार ०.५%) अशा मुखेल स धर्मांनी वांटिल्ली आसा. तेभायर यहुदी, पारशी, ज्यू धर्माचेय लोक भारतांत रावतात. भौसंख्येन आशिल्ल्या हिंदूमदीं जायते पंथ आनी संप्रदाय आसून ते जायत्या जातींत आनी पोटजातींत विभागून गेल्यात. पंथा प्रमाण आनी जाती प्रमाण तांच्या आचरणांत आनी रिती रिवाजांत फरक दिसता. मुसलमान धर्मांतय शिया आनी सुन्नी अशे दोन पंथ आसात. तेभायर बोहरा, खोजा, अहमदीया, आगाखानी अशे गटय मुसलमान धर्मांत आसात. भारतीय किरिस्तावांमदीं कॅथलीक आनी प्रॉटेस्टंट ह्या मुखेल पंथांभायर जेजुइट, अँग्लीकन, बॅतीसत, मॅथडीस्ट सारकिल्ले पंथ आसात. जैनांत श्वेतांबरी आनी दिगंबरी, बौध्दांत हिनयान आनी महायान तर शीखांत अकाली आनी निरंकारी अशे भेद आसात. दर एका धर्मांत धर्माचीं मुळावीं तत्त्वां धर्माच्या वेगवेगळया पंथांनी आसली तरी पंथाकणकणी लोकजिणेंत (भेस, आहार, कर्मकांड, कुलाचार, रुढी) फरक दिसता.

आधुनिकीकरणाक लागून आनी विशेश करून शारीकरणाक लागून परंपरीक धर्मीक खाशेलपणां, पंथीय फरक, जातीयभेद उणो जाता अशें दिसलें तरी ताचें प्रमाण आनी गती समाधानकारक ना. आधुनिकीकरणाचें वारें गांवगिऱ्या वाठारांत पावलां आसलें तरी अशा वाठारांनी पारंपरीक लोक जिवनाचो प्रभाव आजय दिसता. आयचे घडयेकय राजकीय, समाजीक शिक्षणीक आनी संस्कृतीक वेव्हारांचो संबंद धर्म, पंथ, जात सारक्या घटकांचेर आदारून उरिल्लो दिसता.

हवामान, वेवसाय, जात, धर्म, पंथ अशे वेवस्थेनुसार लोकांचो परंपरीक भेस आसता. तेप्रमाण धोतर, लेंगो, लुंगी, पेंट, कोट, सदरो,

बंडी, चोळो, जाकीट, शर्ट, मुंडाशें, पगडी, पागोटें, टोपी, उपरणें असो दादल्याचो भेस तर साडी, कापड, सलवारखमीस, घागरो असो बायलांचो भेस आसता.

हिंदूमदीं शाकाहारी तशेंच मांसाहारी आहार चलता. दक्षिण भारतांत तांदूळ, तर उत्तर भारतांत गंव मुखेलपणान वापरतात. शीत, कडी, दाळ, नुस्तें, भाजी, चपाती, हो नित्याचो सादारण, मनशाचो आहार आसा. तेभायर खाशेल्या प्रसंगार जनावराच्या मांसाचो आहार घेवप जाता.

भारतांत प्रांताकणकणी आनी पंगडानुसार वर्सयभर सण परबो मनोवप जातात. दिवाळी, होळी, दसरो, ह्यो परबो सर्रासपणान करप जातात. तर महाराष्ट्र, गोंय आनी कोंकणांत चवथीची परब मुखेलपणान मनयतात. केरळांत ओणम, तमिळनाडूंत पोंगल, बंगालांत दुर्गा पुजा, आसामांत उरूली अशे उत्सव मुखेलपणान मनोवप जातात. रमजान आनी बक्रईद हे मुसलमानांचे, बुध्द जयंती बुध्दाची, महावीर जयंती जैनांची, गुरू गोविंद सींग जयंती शिखांची तर नाताल ही किरिस्तांवांची परब आसा. तेभायर त्या त्या धर्माचे आनी त्या त्या वाठारांतले देवस्थाना संबंदीत उत्सव व्हडा प्रमाणांत मनयतात.

**भारतीय कला** : सद्या संवसारांत प्रसिद्द आशिल्ले चडशे सगळे खेळ भारतांत खेळटात. परंपरीक तशेंच आधुनिक खेळांकूय हांगा चड म्हत्व आसा. हालींच्या तेंपार नियतकालिकां तशेंच रेडिओ आनी दूरचित्रवाणीक लागून लोकांभितर खेळाची चड आवड निर्माण जाल्या. 'स्पोर्ट ऑथोरिटी ऑफ इंडिया' ही भारतीय खेळा संस्था आनी तिचे देखरेखीखाला दर एका राज्यांतली खेळां संस्था आंतरराष्ट्रीय दर्ज्याचे खेळगडे तयार करपाक खूब वावूरतात.

वैदिक, पुराणीक आनी मध्यकाळासावन चलत आयिल्ल्या कांय परंपरीक खेळांक भारतांत आयजलेगीत खूब म्हत्व आसा. तातुंतले मुश्टिझूज, धनुर्विद्या, पेंवप, कुस्ती (Indian wrestling), बुद्धीबळ (Chess), कबड्डी हे चड नामना मेळिल्ले खेळ आसात. हातूंतल्या कब्बड्डी खेरीज बाकीच्या सगळ्या खेळांक आंतरराष्ट्रीय दर्जो प्राप्त जाला. पूण तांतुतल्या बुद्धीबळ खेळा खेरीज बाकीच्या खेळांनी भारत खूब फाटीं आसा. कबड्डी होय एक नीज भारतीय सांघीक खेळ आसा. भारतांत हो खेळ खूब पुर्विल्ल्या काळासावन खेळटाले हाचे साबार पुरावे आसात. पुण आदल्या तेंपार ह्या खेळाचें स्वरूप अनियमीत आशिल्लें. १९१५-१६ सालांत पुण्याचे 'डेक्कन जिमखाना' संस्थेन त्या खेळाचे नेम तयार करून राज्यांभितर कबड्डीचे सामने घडोवन हाडपाक सुरवात केली. १९५८त भारतीय ऑलिंपीक खेळा समितीन कबड्डी खेळाक मान्यताय दिली. १९६० त बैजींग शारांत जाल्ल्या आशियाई खेळासर्तींत कबड्डी खेळाचो आस्पाव पयलेच खेप केल्लो. तातूंत भारतान भांगरा पदक जोडलें. १९९४ त हिरोशीमा नगरांत जाल्ल्या बाराव्या आशियाई खेळांतूय भारतान आठ गूण मेळोवन भांगरा पदक हातासलें. कुस्ती वा मल्लयुध्द हे भारतांतले खूब आदले खेळ. पुर्विल्ल्या काळांत भारतांत मुळाव्या शिक्षणा वांगडाच व्यायाम आनी कुस्तीचेर चड भर दिताले. हाचे साबार उल्लेख सांपडल्यात. मध्ययुगांत राजा, सरदार आनी नवाब हांच्या दरबारांत साबार कुस्तीकार आसताले. जात्रांनी आनी हेर उत्सवांनी तांच्या कुस्तीचीं खास प्रदर्शनां आनी सर्ती आसताल्यो. गामा, गुलाम अलिया, महंमदबक्ष, खाबाशा जाधव, विश्वंभर, सत्पाल सिंग हे नामनेचे भारतीय कुस्तीगार जावन गेले.

बॅडमिंटन, क्रिकेट, हॉकी, फुटबॉल, रॉवींग, टेबल-टेनीस, ॲथलेटिक्स आनी हेर आधुनिक खेळांक सद्या भारतांत खूब म्हत्व प्राप्त जालां. क्रिकेट तर भारताचो चड आवडीचो खेळ. १९८३ त भारतान जागतिक क्रिकेट कप जिखलें. सद्या त्या खेळाचो भारताचो राश्ट्रीय खेळ म्हूण उल्लेख जावपाक लागला. हिमालयाच्या उंच तेमकांक लागून हालींच्या तेंपार गिर्यारोहणाकूय म्हत्व प्राप्त जालां.

पंडित जवाहरलाल नेहरू, देवदत्त सोंधी आनी पतियाळाचे महाराज यादवेंद्र सिंग हांच्या यत्नांक लागून १९५१ त दिल्लींत पयल्या आशियाई खेळा सामन्याक सुरवात जाली. उपरांत ३१ वर्सांनी १९८२ त णवी आशियाई खेळासर्त परतून दिल्लींत नेहरू स्टॅडियमाचेर जाली. आशियाई, ऑलिंपिक आनी तत्सम दर्जाच्या आंतरराश्ट्रीय खेळांसर्तींनी भारतीय खेळगडे सातत्यान वांटो घेतात आनी आपले परीन आपलें कसब दाखयतात. अशा आंतरराश्ट्रीय खेळांसर्तींनी भारतीय खेळगड्यांक मात फाव ते प्रमाणांत अजून यश मेळूंक आसलें तरी तेवटेन तांचे नेटाचे यत्न चालू आसात. तेखातीर शासनाकडल्यान तांकां सवलती आनी प्रोत्साहन मेळटा.

**भारतीय भास** : संवसारीक भाशीक मळांचो सदळपणान विचार करप जाता तेन्ना भारत, पाकिस्तान, बांगलादेश, श्रीलंका, नेपाळ आनी भुतान हांचें दक्षिण आशियाचें एक भाशीक मळ मानतात. सिंधू देगणांत ३५०० - २५०० वर्सां पयलीं उदयाक आयिल्ली भास ही भारतांत उलोवपांत आनी बरोवपांत घोळपी सगळ्यांत आदली ज्ञात भास आसुंये अशें भास शास्त्रज्ञांचें मत आसा. थंयच्या उत्खननांत मेळिल्ल्या फातरी बरपावळीवयल्यान तांणी हें अनुमान काडलां. हे बरपावळीखातीर वापरिल्ले लिपिची अजून स्पश्ट वळख ना जाल्ल्यान ते भाशे संबंदी पुराय म्हायती मेळना. सद्या भारतांत घोळपी विंगड विंगड भाशांचे संबंद पुर्विल्ल्या काळासावन वेगवेगळया भास-कुळांकडेन आशिल्लो आनी ह्या संबंदांचें दायज ताचे सद्य स्थितींत दिसता. वेगवेगळयो भारतीय भासो मुखेलपणान स भास कुळांनी वांटून गेल्यात: १) निग्रोयड, २) ऑस्ट्रिक ३) सायनोतिबेटी, ४) द्रविड, ५) इंडो आर्यन आनी ६) हेर

इंडो आर्यन भासकुळांत असमिया, ओडिया, काश्मिरी, कोंकणी, खानदेशी, गुजराती, दोगरी, नेपाळी, पंजाबी, बंगाली, मराठी, संस्कृत, सिंधी, हिंदी, उर्दू ह्या मुखेल भासांचो आस्पाव जाता. एकंदर लोकसंख्येच्या

सुमार तीन चतुर्थांश लोक ह्या भासकुळांत पडटात. द्रविड कुळांत कन्नड, कुडूख, कुई, कोडगू, कोंढ, कोया, गोंडी, तमिळ, तुळू , तेलगू आनी मल्याळम भासांचो आस्पाव जाता. एकंदर लोक संख्येच्या लागीं लागीं १/४ लोक हे भास कुळयेंत पडटात. ऑस्ट्रे एशियाटीक भास कुळांत खडिया, खासी, गदावा, कोडा, कोरकू, कोरवा, जुआंग, निकोबारी, भूमिजी, मुंडा, मुंडारी, संथाळी, सावार, हो, ह्या भासांचो आस्पाव जाला.

तिबेटी ब्रह्मीकुळांत अंगामी, आदी, आओ, काहुई, कोनाक, गारो, त्रिपुरी, बोडो, मणिपुरी, मिकीर, मिझो, मिरी, रामा, लडाखी, सेमा, हांचो आस्पाव जाता. भारतीय संविधानाचे आठवे वळेरींत ह्या भाशांमदल्या फकत सद्या १८ भासांचो आस्पाव जाला. त्यो अशो : असमिया, उडिया, उर्दू, कन्नड, काश्मिरी, कोंकणी, गुजराती, तमिळ, तेलुगू, नेपाळी, पंजाबी, बंगाली, मणिपुरी, मराठी, मल्याळम, संस्कृत, सिंधी, हिंदी. हातुंतल्यो सिंधी, संस्कृत आनी काश्मिरी सोडून बाकीच्यो भासो भारतीय घटक राज्याचो राजभासो आसात. ह्या भासांभायर भारतांत घोळणुकेंत आशिल्ल्यो ल्हान व्हड सुमार १७०० भासो आसात.

**भारतीय संगीत :** पद्यमय रचना, स्वर, लय आनी गेयता हांच्या सांगातान आनी मनांतले भाव प्रसंगाप्रमाण उक्ते करप ही मनशाची सभावीक आवड. देवाचे प्रार्थनेत आपले भाव प्रकट करतना वा झुजाच्या प्रसंगार झुजाऱ्याक प्रोत्साहन दितना, सादारण बाळबोध गद्य उतरांपरस स्वर, लय, गेय युक्त पद्यमय उतरां वरवीं आंतरीक उमाळे उक्ते करप हो सार्वत्रीक संवसारीक मनीस सभाव. ह्या स्वभावांतल्यान संवसारांत सगळेकडेन संगिताचो उगम जाल्लो दिसता. ह्याच मनीस स्वभावांतल्यान भारतीय संगिताचो जल्म जाला.

भारतीय संगिताची अधिकृत आद्यरुपाची वैदिक वळख वैदिक साहित्यांत मेळटा. सामवेद आनी ताचो उपवेद गांधर्ववेद हातूंत संगिताच्या शास्त्राची म्हायती दिल्या. भरताच्या नाट्यशास्त्रांत नाटकाच्या संदर्भांतल्यान संगिताचें शास्त्रीय निर्दशन सांगलां.

वायुपुराण, मार्कंडेयपुराण, विष्णुधर्मोत्तर पुराण हातुंतय संगिताची म्हायती मेळटा. धारचो राजा भोज (१०१०-१०५५) आनी कल्याणचो राज सोमेश्वर सुमार (११३०-११३९) हांणी भांडीर भाशेंत संगिताची परिभाशीक संज्ञा तयार केल्या.

पोरन्या तमिळ साहित्यांत बऱ्याच वाद्यांचो उल्लेख मेळटा. शैवपंथी नायनमार आनी वैश्णवपंथी आळवार ह्या संतांनी रचिल्लीं भक्ती गितां संगीतबध्द केल्लीं. शार्ग देवाचो संगीतरत्नाकर (१२१०-१२४७) ह्या ग्रंथांक तेवारम ह्या शैव स्तोत्रांचो उल्लेख मेळटा आनी हो ग्रंथ भारतीय संगिताचो एक प्रमाण ग्रंथ मानतात. जैन संप्रदायांतल्या पार्श्वदेव हाचो संगीत समयसार (सुमार १३००) हो ग्रंथ देशी संगिताची वळख दिता.

हिंदुस्थानी संगितांत अमीर खुसरौ (१२५३ - १३२५) हाणें मोलाची भर घाल्या.

संगीत भास्कर, संगीत सार संग्रह रसीक प्रिया, संगीत राज, राग मंजिरी, राग माला, संगीत पारिजात हे भारतीय संगीतावयले कांय प्राचीन ग्रंथ आसात. नगमात ए आसफी (महंमद रझा), संगीत सार (सवाई प्रतापसिंग), राग कल्पद्रुम (कृष्णानंद व्यास), युनिव्हर्सल हिस्ट्री ऑफ म्युझीक (सौरीन्द्र मोहन टागोर) हे संगितांतले आधुनिक ग्रंथ आसात.

भारतीय संगिताचे हिंदुस्थानी संगीत आनी कर्नाटकी संगीत अशे दोन मुखेल फांटे आसात. हिंदुस्थानी आनी कर्नाटकी संगीत पद्दतींत रागांचीं नांवां सारकींच आसतात पूण स्वरोच्चार गमक, अलंकार मांडणी आनी शैली हातूंत दोगांय मदीं फरक आसता. रागाच्या विवरण विस्तारांतय फरक दिसता. हिंदुस्थानी संगितांत स मूळ राग मानतात आनी ताचेपसून बाकिच्या रागांची निर्मिती जाल्या असो संकेत आसा. कर्नाटकी पद्दतींत मुळावो राग हो जनक राग मानून ताचेपसून निर्माण जाल्ले ते जन्य राग अशें मानतात.

सुमार १७ व्या शेंकड्याचे अखेरेक भक्ती संप्रदाया वरवीं भजन हो संगीत प्रकार मुखार आयलो. कालांतरान ध्रुपद, धमार, ख्याल, ठुमरी, टप्पा, दादरा, तराना, गझल, हे संगीत प्रकार निर्माण जाले.

अकबर, जहांगीर, शहाजहान हांचे सारक्या मोगल बादशहाकडल्यान संगिताक थोडो भोव आलाशिरो मेळूंक पावलो तरी उपरांत औरंगजेबाच्या काळांत संगिताकडे सामकेंच दुर्लक्ष जालें. उपरांत मुसलमान संगीतकारांचो वाडटो प्रभाव तातुंतल्यान निर्माण जाल्लो आनी परस्परांकडेन मतभेद आशिल्लीं संगीत घराणीं आनी संप्रदाय ताचोच एक वांटो म्हणून बंदिस्त अशी गुरू-शिश्य परंपरा आनी ब्रिटीश राजवटीन जाल्लो अस्तंती संगिताचो प्रभाव हाकालागून भारतीय अभिजात संगिताक देंवती कळा लागली. अशा वेळार पंडित विष्णु नारायण भातखंडे (१८६०-१९३६) आनी पंडित बाळकृष्णबुवा इचलकरंजीकर (१८४९-१९२७) हाचो शिश्य पंडित विष्णु दिगंबर पलुस्कर (१८७२-१९३१) हांणी भारतीय संगिताक गत वैभव प्राप्त करून दिवपाचें म्हान कार्य केलें.

पंडित भातखंडे हाणें आपल्या 'लक्ष्य संगित' ह्या ग्रंथांत हिंदुस्थानी संगितांतल्या राग वेवस्थेची पुनर्रचणूक करून ताका नवो रुपकार दिलो. पंडित पलूस्कर हाणें गंधर्व महाविद्यालय ह्या नांवाची मध्यवर्ती संस्था उबारून आनी वेगवेगळया वाठारांत ताचे फांटे उगडून भारतीय संगीत लोकप्रिय करून ताका प्रतिश्ठा जोडून दिवपाचें कार्य केलें. बंगालांत रविंद्रनाथ टागोरान आपली अशी खाशेली बंगाली शैली निर्माण करून रवींद्र संगीत हो भारतीय संगिताचो एक नवो संप्रदाय सुरू केलो.

१९व्या शेंकड्याचे अखेर आनी विसाव्या शेंकड्याची सुरवात हांच्या मदल्या काळांत भारतीय संगितांत भास्करबुवा बखले (१८६९-१९२२), अब्दुल करीम खाँ (१८७२-१९३७), रामकृष्णबुवा वझे (१८७१-१९४५), अल्लादिया खाँ (१८५५-१९४६), फैयाज खाँ (१८८१-१९५०) हांणी म्हत्वाचें योगदान केलें.

स्वातंत्र्योत्तर काळांत संगिताक उपकारक अशी वातावरण निर्मिती जावंक पावली. १९५३ त केंद्र शासनावतीन संगीत नाटक अकादेमी आनी राज्य सरकारान राज्य पातळेचेर संस्था स्थापन करून संगीत कलेक प्रोत्साहन दिवपाचें काम हातांत घेतलें. विद्यापीठ थराचेर संगिताचीं अध्यासनां निर्माण जावन ताच्या मार्फत संगिताचो अभ्यास आनी संशोधन करपाची सुविधा जाली. त्याच वांगडा संगीत महोत्सव संमेलनां संगीत आयोजीत जावन प्रस्थापित अशा नव्या संगितकारांक आपली कला पेश करपाची संद प्राप्त जाली.

आकाशवाणी, दूरदर्शन, ध्वनीमुद्रिका आनी चित्रपट अशा माध्यमा वरवीं संगीत कलेचो प्रसार जावपाक लागलो. आधुनिक काळाची गरज म्हणून संगीतकारांनी संगीत घराण्याचें बंदिस्तपण सदळ करून संगीत चडांत चड लोकांकडेन पावपाचे नदरेन लोकप्रियतेचेर भर दिलो.

हिंदुस्थानी संगिताच्या मळार खाशेलें योगदान केल्ल्यां मदीं केसरबाई केरकार, मोगुबाई कुर्डीकर, हिराबाई बडोदेकर, रोशन आरा बेगम, बडे गुलाम अली खाँ, अमीर खाँ, विलायत हुसेन खाँ, निसार हुसेन खाँ, रहीमुद्दीन खाँ डागर, सवाई गंधर्व (रामभाऊ कुंदगोळकर), नारायण राव व्यास, विनायकराव पटवर्धन, मास्तर कृष्णराव फुलंब्रीकर, कुमार गंधर्व, भिमसेन जोशी, वसंतराव देशपांडे, गंगुबाई हनगल, बसवराज राजगुरू, माणिकवर्मा, मालीनी राजूरकर, मल्लिकार्जुन मन्सूर, पं. जसराज, जितेंद्र अभिशेकी, रामभाऊ मराठे, प्रभा जोशी, किशोरी आमोणकर, गिरिजादेवी, बेगम अख्तर, सिध्देश्वरी देवी, शोभा गुर्टू हांचो आस्पाव जाता.

हिंदुस्थानी शास्त्रीय रागदारीचेर आदारिल्ल्यो कांय संगीत रचना भारतीय चित्रपटांत जाल्या. लता मंगेशकर, महंमद रफी, मुकेश, आशा भोसले, किशोर कुमार हांचीं नांवां ह्या संदर्भांत मुखेल करून घेवप जातात.

भारतीय संगितांत गायकी कले इतलेंच वादन कलेकय म्हत्व आसा. गायकी कलेखातीर आवश्यक साथ म्हणून वाद्यांक जशें भारतीय संगितांत म्हत्व आसा, तेचप्रमाण निव्वळ सुट्या वाद्य संगिताकय एक खाशेली सुवात भारतीय संगितांत मेळ्ळया. विणा, सारंगी, दिलरुबा, सरोद, सतार, बांसरी, शेनाय, संतूर, तबलें, पेटी, मृदंग हीं कांय मुखेल अशीं भारतीय वाद्यां. व्हायोलीन हें अस्तंती वाद्य कर्नाटक संगिताचें एक आवश्यक वाद्य जावन आसा आनी इ.स. १८०० च्या सुमाराक ताचो भारतीय संगितांत प्रवेश जालो अशें मानतात. वायोलिना बरोबर क्लेरीनेट, हार्मोनियम (पेटी) हीं अस्तंती वाद्यां भारतीय संगितांत आपलींशी करून घेतलीं. वीणा व्यंकटरमण दास (१८६६-१९४८), संघमेश्वर शास्त्री (१८७३-१९३२), विणा शेश्यम्मा (१८५०-१९२६), विणा धनम्मल हे नामनेचे विणा वादक जावन गेले.



**भारतीय वाद्यां** :- १ - बिन सितार; २ - ताळ; ३ -नगारो; ४ -चिपळयो; ५, ६ - तबलो; ७ - धोल; ८ - डफ; ९ - मृदंग; १० - सारंगी

गजाननराव जोशी, बाळूस्वामी दिक्षीतर १७८६-१९५८, व्ही. जी. जोग, (व्हायोलीन); सरभ शास्त्री (१८७२-१९०४), पन्नालाल घोश, हरिप्रसाद चौराशिया (बासरी); बिसमिल्ला खाँ, १९१६- (शेनाय); रविशंकर, निखल बॅनर्जी, अब्दूल हलीम जाफरखां, रईस खाँ - (सतार); खाप्रुमाम पर्वतकार, १८८०-१९५३, अहमदजान थिरकवा, अल्लाखाँ,

झकीर हुसेन, (तबलें); अलिअकबर खाँ (सरोद); रामनारायण (सारंगी); शिवकुमार शर्मा - (संतूर) हे नामनेचे हिंदुस्थानी वाद्य कलाकार.

कर्नाटक संगितांत बालघाट टी. एस. मणिअय्यर, मदुराई कृष्णा अय्यर (मृदंग); लालगुडी जयराम (व्हायोलीन); चित्ती बाबू (विणा); टि. आर. महालिंगम (वेणू) हे मुखेल वादक आसात.

भारतीय संगितांतलें लोकसंगीत हें एक आगळें अशें दालन, निर्बंदीत अशी रागदारी आनी उत्स्फुर्त अशी रचना, सादरीकरण हें लोक संगिताचें खंयच्याच संगीत घराण्याक वा सांप्रदायांत न बसपी हें संगीत जनमानसांतल्यान परंपरीक वृत्तीन आदिम काळासावन चलत आयलां. आधुनिक काळांत भारतीय संगीतकार आनी संगीत अभ्यासक हांणी अभ्यासकांक लोकसंगिताविशीं रस आनी ओड निर्माण जाल्या.

**भारतीय कर्नाटक संगीत :** (पळेयात कर्नाटक संगीत).

**भारतीय लोकसंगीत :** पळेयात लोकसंगीत.

**भारतीय साहित्य :** भारतांत भाशा आनी पोटभाशा मेळून हजारांवयर भाशा आसात. पूण साहित्य अकादमीची मान्यताय मेळिल्ल्या बावीस भाशांनीच मुखेलपणान साहित्याची रचणूक जाता. भारताच्या आदीम साहित्याची संस्कृत भाशेंतल्यान रचणूक जाली. सुरवेक तें तोंडी परंपरेनच चलत रावलें. खूब उसरां ताका लिखीत स्वरूप मेळळें. वेद रचणुकेच्या खूब आदीं जाल्ले साहित्यिक आविश्कार हडप्पा आनी मोहें-जो-दडोच्या उत्खननांत सांपडल्यांत. उत्खननांत सांपडिल्ल्या कांय आयदनांचेर आनी फातरी पट्यांचेर कोरांतिल्ले स्थितींत आशिल्ले लिपयेचो अजून शास्त्रीय अभ्यास पुराय जाल्लोना. देखून सिंधु संस्कृतींत निर्माण जाल्ल्या साहित्याची पुराय वळख जावंक पावूंकना.

संस्कृत भाशेंतल्यान भारतीय साहित्याची सुरवात ऋग्वेद, सामवेद, यजुर्वेद आनी अथर्ववेद ह्या चार वेदांसावन जाली. ऋग्वेद हो सगळयांत प्राचीन. वेदांउपरांत ब्राह्मणां, आरण्यकां आनी उपनिशदाची रचणूक जाली. त्या काळांत संस्कृत भाशा खूब विकसीत जाल्ली हें इ.स.प. सुमार पांचव्या-चवथ्या शेंकड्यांत पाणिनीन रचिल्ल्या अश्ठाधायी ह्या व्याकरण ग्रंथावयल्यान आनी तातूंत उल्लेख केल्ल्या हेर व्याकरणकारांवरवीं कळटा. वैदिक काळासावन ते सुत्रां आनी स्मृती काळामेरेन संस्कृत ही भारताची धर्मीक, साहित्यिक आनी दार्शनीक भास आशिल्ली. इतिहासकारांच्या मतान वैदिक साहित्या उपरांत पुराणांचो काळ येता. त्या काळाचे सुरवेक बरयल्लीं रामायण आनी महाभारत हीं दोन आर्य म्हाकाव्यां आसात. इतिहासकाळा उपरांत १८ पुराणां आनी १८ उपपुराणांची रचणूक जाली. तीं पुराणां वेगवेगळया काळांत रचल्यांत. पुराणां हो भारतीय साहित्यांतलो एक म्हत्वाचो ग्रंथसमूह. भारतीय संस्कृती आनी सभ्यता हांचो सामान्य लोकांत प्रचार करपाचो वावर पुराणांनीच केला. पुराणां उपरांत भरतमुनीच्या नाट्यशास्त्राचो (नाट्यवेदाचो) उल्लेख येता. ताची रचणूक इ.स.प. तिसऱ्या दुसऱ्या शेंकड्यांत जाल्ली आसुये. मुखार अभिजात नाटककारांत भास, कालिदास, श्रीहर्ष, भवभूती, भट्टनारायण, विशाखादत्त हांचो आस्पाव जाता तर अभिजात काव्यरचणाऱ्यांत अश्वघोष, कालिदास, भारवी हांचो आस्पाव जाता. इ.स. चवथ्या शेंकड्यामेरेन संस्कृत हीच मुखेल साहित्यीक भास आशिल्ली. ती भास शिकपाचे आनी तिचो वापर करपाचे हक्क फकत ब्राह्मण आनी हेर उंचेल्या कुळांतल्या पंडितांक आशिल्ले. सकयल्या वर्गांतल्या लोकांक संस्कृत भाशेचो वापर करपाक बंदी आशिल्ली. सादारण लोकांची मौखीक आनी वेवहारीक भास प्राकृत आशिल्ली.

लोकभाशा म्हूण इ.स.प. सव्या शेंकड्याच्या पयलीं सावन भारतांत वापरांत आशिल्ल्या वेगवेगळया भाशांनी विंगड विंगड विशयांचेर व्हड साहित्य निर्माण जाल्लें. संस्कृत भाशेंत उपलब्ध आशिल्ल्या साहित्याचो सादारण लोकांक लाव मेळना. हाका लागून वैदिक धर्माची प्रतिक्रिया म्हणून भगवान गौतम बुध्द आनी भगवान महावीर हांणी आपआपल्या धर्मांची शिकवण लोकांक समजता अशेच भाशेन दिली. बौध्द धर्माची शिकवण बुध्दान पाली भाशेंतल्यान दिल्ली तर जैन धर्माचो उपदेश महावीरान प्राकृत भाशेंतल्यान केल्लो. उपरांत थळाव्या भाशांनी साहित्याची व्हडा प्रमाणांत रचणूक जावपाक लागली. पूण ह्या साहित्याची प्रेरणा मुखेलपणान धर्मिकूच आशिल्ली. इ.स. पांचव्या ते धाव्या शेंकड्या मेरेन उत्तर तशेंच दक्षिण भारतांत अपभ्रंश, मागधी, अर्धमागधी, सौरसेनी, महाराष्ट्री, पैसाची, उडीचीया, गांधारी अशो साबार पोटभासो अस्तित्वांत आयल्यो आनी तांच्यांतल्यानूय साहित्य निर्माण जावपाक लागलें.

इस्लामी सत्ता भारतांत थीर जाल्याउपरांत इस्लामी धर्म आनी संस्कृतायेचो प्रभाव भारतीय संस्कृती तसोच साहित्याचेरूय पडप सभावीक जालें. सुफी संतांनी सुरवेक उत्तर भारतांत आनी उपरांत दक्षिण भारतांत सुफी मतप्रणालीचो प्रसार केलो. सुफी प्रभावाक लागून त्या काळांत इस्लाम संस्कृतायेक आदारून खूब भारतीय साहित्य निर्माण जालें. अरबी-फार्सी भाशांतलें अभिजात साहित्याचें अनुकरण आनी रुपांतरूय भारतीय भाशांनी जावपाक लागलें. बाराव्या ते सतराव्या शेंकड्या मेरनेच्या काळाचो भारतीय इतिहासांत भक्ती चळवळीचो काळ म्हूण उल्लेख जाता. त्या काळांत भारतांत साबार संत जावन गेले. त्या संतांनी वेगवेगळया पंथांची थापणूक करून तांच्या पंथाच्या संदर्भांतल्यान साहित्य निर्माण जावपाक लागलें. विष्णु, शिव, राम, कृष्ण, देवी काली आनी हेर देवतांचेर भक्तिभावनेंतल्यान काव्यां जावपाक लागलीं. रामायण, महाभारत, भागवत पुराण आनी हेर ग्रंथांतल्या वेंचीक विशयांचेर संतांनी आपापले परीन ज्ञानेश्वर, नामदेव, कंबन, बसवेश्वर, चंडीदास बडू, विद्यापती, चैतन्य महाप्रभू, नरसी मेहता, मीराबाई, शंकरदेव, माधवदेव, कबीर, तुलदीदास, गुरू नानकदेव अशा कवी-संतांनी भारतीय भाशांनी काव्य-साहित्याची मोलादीक भर घाली.

अठराव्या शेंकड्यांत ब्रिटीश लोक भारतांत येवन थीर जाल्या उपरांत तांणी राज्यवेव्हाराची भास आनी नव्या शिक्षणाची भास म्हूण इंग्लीश भाशेक प्रोत्साहन दिलें. ते भाशेवरवीं मुखार भारतीय सुशिक्षीत वर्गाक अस्तंत संस्कृतायेचो आनी युरोपीय साहित्याचो परीचय जालो. युरोपीय साहित्याक लागून भारतांतल्या प्रादेशिक भाशेंतल्या साहित्याक एक नवो आयाम मेळूंक पावलो. इंग्लीश भाशेंत कथा-कांदबरी, चरीत्र, निबंध आनी हेर वैचारीक, गद्यलिखाणाचें प्रादेशिक भाशांनी रितसर अनुकरण जावपाक लागलें. भारतीय प्रबोधनाच्या सुरवेच्या काळांत वैचारीक गद्याच्या रुपान साहित्यकार आपआपल्या धर्मांचो आनी समाजीक चालिरितींचो, रुढींचो तशेंच अंधश्रध्दांचो बारिकसाणेन अभ्यास करून आपले विचार लोकांमुखार मांडपाक लागले. राजा राममनोहर रॉय, जोतीबा फुले, लोकहितवादी, आगरकर, रामस्वामी नायकर, दयानंद सरस्वती हांणी धर्मीक आनी समाजीक प्रबोधनाचें कार्य आनी तेखातीर केल्लें उच्च प्रतिचें गद्यलिखाण खूब म्हत्वाचें आसा. भारतांत राश्ट्रीय भावना निर्माण जाल्याउपरांत, ब्रिटिश सत्ता ना करपाखातीर देशांतल्या साबार सुटके झुजाऱ्यांनी आपआपल्या मताप्रमाण मांडिल्ल्या विचारांचें लिखाण व्हड आसा. चडशा सुटके झुजाऱ्यांच्या पंगडांचें दिसाळें, सातोळें वा म्हयन्याळें आसतालें. तातुंतल्यान आपले विचार मांडून ते सादारण लोकांच्या मनांत स्वातंत्र्याविशींच्यो भावना निर्माण करपाचे यत्न करताले. हें प्रचारकी थाटाचें लिखाण जातालें तरी तातुंतल्या आशयाक लागून ते जोशपूर्ण जालें.

भारत स्वतंत्र जाल्याउपरांत फ्रॉयड, मार्क्स आनी हेर अस्तंत देशांतल्या उच्च साहित्याच्या प्रभावाचे पडसाद भारतीय साहित्यांतूय दिसपाक लागले. भारतीय प्रदेशीक साहित्यांतल्यान युरोपीय साहित्यांतली कला, तत्त्वगिन्यान, समाजीक प्रबोधन, आधुनिकीकरण, उद्येगीक क्रांतीच्या प्रभावाचीं पडबिंबां दिसतात. वास्तववाद (Realism), अतिवास्तववाद (Susrealism), आदर्शवाद (idealism), स्वच्छंदतावाद (romanticism), अस्तित्ववाद (existentialism) अशा वेगवेगळ्या विशयांचेर साहित्य निर्माण जावपाक लागलें.

भारतीय स्वतंत्र चळवळीचेर बंकीमचंद्र चॅटर्जीन बरयल्ली 'आनंद मठ' ही भारतांतली आधुनिक काळांतली नांवाजती कादंबरी आसा. ताच्यो हेर कादंबरीय स्वातंत्र्य चळवळीचेर आदारिल्ल्यो आसात. उपरांत रवींद्रनाथ टागोरान बरयल्ल्यो गोरा, घारे बैर आनी हेर कादंबऱ्यांनी विसाव्या शेंकड्याच्या सुरवेच्या राश्ट्रवादी लोकांची विचारसरणी तशेंच त्या काळची भौशिक स्थिती वाचूंक मेळटा. टागोराच्याच तेंपार शरतचंद्र चॅटर्जी, ताराशंकर बंदोपाध्याय, बिभूती भूशण बंदोपाध्याय ह्या कादंबरीकारांनी समाजांतल्या कनीश्ठ वर्गीय लोकांचे परिस्थितीचेर उजवाड घाला. विसाव्या शेंकड्याच्या तिसऱ्या आनी चवथ्या दसकांत प्रेमचंद, मुल्क राज आनंद, शिवराम कारंत, अमृत लाल नागर, फणेश्वर, नाथ रेणू, इस्मात चूंगताय, राजेंद्र सिंग बेदी सारकिल्ले प्रसिद्द कादंबरीकार जावन गेले. त्या वेगवेगळ्या प्रांतांतल्या लेखकांनी आपआपल्या भोंवतणच्या समाजाचें चित्र कादंबरींनी पितरायलें. तांणी साम्राज्यवादाक विरोध करून, मुखेलपणान मानवतावादाचेरूच भर दिल्लो. स्वातंत्र्या उपरांत लेखिकांचो आंकडो खूब वाडलो. तांणी बायलांचेर जावपी अत्याचार आनी सतवणूक हांचेर उजवाड घालून, बायलांचो उध्दार करच्या, हेतान लिखाण सुरू केल्लें. तांचेमदीं कमला मार्कंडेय, कमला दास, अनीता देसाय, नयनतारा सेहगल आनी उमा वासुदेव हांणी साहित्य मळार मोलादीक योगदान केलां. बायलांच्या समाजीक प्रस्नाचो संदर्भ हो आर. के. नारायण आनी मुल्क राज आनंद ह्या लेखकांच्या कादंबरींनीय सांपडटा.

इंग्लीश ही परकीय भास, पूण भारतान ती शिक्षणीक आनी साहित्यिक भास म्हूण आपणायल्या. सद्याक उलोवपाची वा संपर्काची भास म्हूण तिचो भारतांत खूब वापर जाता. राम मोहन रॉय (१७७४-१८३३) हाणें ते भाशेचें म्हत्व जाणून, भारतीय लोकांनीय ती शिकची म्हणून प्रचार केल्लो तेन्ना सावन इंग्लीश भाशेक भारतांत म्हत्व मेळपाक लागलें. नेहरू आनी गांधीजी हांणीय इंग्लीश भाशेंतल्यान खूब लिखाण केलां. निरद चौधरी हो संवसारांत नामना मेळिल्लो इंग्लीश लेखक. ताणें बरयल्लें आत्मचरित्र 'खबर नाशिल्लो भारत' (Unknown India) खूब प्रसिध्द आसा. तोरू दत्त (१८५५-७६) आनी सरोजनी नायडू (१८७९-१९४९) ह्यो प्रसिध्द कवियत्री तर अरवींद घोष (१८७२-१९५०) आनी रवींद्रनाथ टागोर हे प्रसिध्द भारतीय इंग्लीश कवी. डोम मोरायश, निसीम एझेकेयल, पी लाल, ए. के. रामानूझा हे हालींच्या तेंपावयले प्रसिध्द भारतीय कवी. मुल्कराज आनंद, आर. के. नारायण, राजा राव हे तिसऱ्या दसकांतले नामनेचे इंग्लीश लेखक. जी. व्ही. देसानी, एम्. अनंथनारायण, भाबनी भट्टाचार्य, मनोहर माळगांवकर, अरूण जोशी, कमला मार्कंडय, अनीता देसाय, खुशवंत सिंग, नयनतारा सेहगाल आनी सलमान रसदी हे सद्याचे प्रसिध्द इंग्लीश कांदबरीकार. 'शोभा डे' हिणें १९९२ सावन इंग्लीश कादंबऱ्यो बरोवपाक सुरवात केल्ली. मार्च १९९६ मेरेन तिच्यो सात कादंबऱ्यो उजवाडाक आयिल्ल्यो आनी ह्या तिच्या सातूय कादंबऱ्यांक संवसारांत नामना मेळळ्या.

भारतीय साहित्याचे निर्मितीक आनी उदरगतीक पालव मेळचो ह्या उद्देशान केंद्रीय साहित्य अकादमीन आनी नॅशनल बूक ट्रस्ट ह्या दोन सरकारी अनुदानीत संस्था शासनान निर्माण केल्यात. साहित्य निर्मिती, साहित्य प्रसार, साहित्य आनी साहित्यिकांमदीं आदान-प्रदान, पुस्तक प्रदर्शन, साहित्य पुरस्कार अशे साहित्यासंबंदीत उपक्रम ह्या संस्थांनी हातांत घेतल्यात. तेभायर भारतीय ज्ञानपीठ, बिर्ला ट्रस्ट अशा राश्ट्रीय संस्थांचे वतीन आनी बऱ्याच प्रदेशीक सरकारी-बिनसरकारी संस्थांचे वतीन साहित्य संवर्धनाचो वावर चलता.

हाचे भायर वेगवेगळे भारतीय भाशेंतलें साहित्य ते ते भाशेच्या नोंदीखाल आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** चित्रकला, चित्रपट, दांडी यात्रा, नाच, मुर्तिकला, रंगभूमी, वाद्य आनी वाद्यवर्गीकरण, लोकसंगीत.

## भारतचंद्र राय :

(जल्म : इ. स. १७१२, पँडो-भूरशुट, हावडा; मरण : इ. स. १७६०).

आख्यानकाव्यां रचपी अठराव्या शेंकड्यांतलो श्रेश्ठ बंगाली कवी. ताच्या बापायचें नांव नरेंद्रनारायण राय. ल्हान पिरायेचेरूच भारतचंद्रान घर सोडलें आनी भोंवडेर गेलो. ह्या काळांत ताणें फार्सी भाशेचो आनी संस्कृत शास्त्रांचो अभ्यास केलो. देवदर्शन आनी शास्त्राचेर चर्चा करीत ताचो बरोच काळ भोंवडेंत गेलो. हे भोंवडेंतूच ताचो काव्याचो अणभव आनी काव्यसामुग्री एकठांय जाली.

पिरायेच्या चाळिसाव्या वर्सा, नडिया जिल्ह्यांतल्या कृशनगरच्या महाराजा कृष्णचंद्र राय हाचो भारतचंद्र हाका आलाशिरो मेळ्ळो. तेन्नासावन भारतचंद्र मूलाजोड रावपाक लागलो. भारतचंद्र, कृष्णचंद्र रायच्या दरबारांत सभाकवी आशिल्लो. भारतचंद्राच्या 'रसमंजरी' ह्या ग्रंथांतलें कवित्व पळोवन राजा भारावन गेलो. उपरांत राजाचे आज्ञेप्रमाण भारतचंद्रान 'अन्नदामंगल', 'विद्यासुंदर' आनी 'मानसिंह' हीं बंगाली भाशेतलीं रसाळ आख्यानकाव्यां रचलीं. हीं तिनूय काव्यां एका अर्थान 'काव्यत्रयी' म्हणूं येतात. ह्या काव्यांतलें पांडित्य आनी प्रतिभा पळोवन राजा कृष्णचंद्र राय हाणें भारतचंद्राक 'गुणाकर' ही पदवी भेटयली. तेन्नासावन भारतचंद्र 'राय-गुणाकर' ह्या नांवान बंगाली साहित्यांत अजरंवर जालो.

भारतचंद्राचें 'विद्यासुंदर' हें काव्य खूब गाजलें. पूण कांय समिक्षकांच्या मतान 'अन्नदामंगल' हेंच भारतचंद्राचें सगळयांत श्रेश्ठ काव्य. बंगाली भाशेंतलो, भारतचंद्र हो पयलो नागर कवी. ताच्या काव्याचें स्वरूप लेगीत विदग्ध आनी नागर आसा. भारतचंद्रा पयलीं बंगाली साहित्याचें स्वरूप गांवगिरें आनी रांगडें आशिल्लें. भारतचंद्रान तातूंत लालित्य आनी प्रवाहीपण ओतून काव्याच्या विश्वांत एक नवें संचरण हाडून आयकुप्यांक विदग्ध भाशेची ओड लायली. भाशालालित्य, छंदनैपुण्य, अलंकारप्राचुर्य आनी उत्कृश्ट भावचित्रण ह्या भारतचंद्राच्या गुणांनी बंगाली काव्यांत मोलादीक भर घाली.

- कों. वि. सं. मं.

## भारती, कृष्णतीर्थ :

(इ. स. चो १४ वो शेंकडो). शृंगेरी पिठाचो एक शंकराचार्य आनी विद्यारण्य स्वामीचो गुरू. ताका अद्वैतब्रह्मानंद अशेंय म्हण्टात. विद्यातीर्थ महेश्वर हाचे उपरांत भारती कृष्णतीर्थ ह्या शृंगेरी पिठाच्या आचार्यपदाचेर आयलो. विद्यारण्यांचो अर्दो उरिल्लो पंचदशी हो नामनेचो ग्रंथ भारतीतीर्थान पुराय केलो अशें म्हण्टात.

भारतीतीर्थाचे 'वाक्यसुधा' आनी 'वैयासिकन्यायमाला' हे दोन ग्रंथ प्रसिध्द आसात. वाक्यसुधा ह्या ग्रंथाचेंच दुसरें नांव दृग्दृश्यविवेक अशें आसा.

ब्रह्मसुत्रांच्या सगळया अधिकरणांचो आपरोस वैयासिकन्यायमाला ह्या प्रसिध्द ग्रंथांत आयला. दर एक अधिकरणाखातीर सादारणपणान दोन श्लोक दिल्यात. पयल्या श्लोकांत पूर्वपक्षाचें उत्थापन आनी दुसऱ्या श्लोकांत सिध्दांतनिरुपण आसता. ह्याच ग्रंथांचो आदार घेवन माधवाचार्यान जैमिनीयन्यायमालेची रचणूक केली. 'सर्वेषां तु प्रथममुखदं भारतीतीर्थमाहुः, अर्थ - सगळयांत पयलीं जाणें म्हाका वाणी दिली तो भारतीतीर्थ, अशा उतरांनी माधवाचार्य (विद्यारण्य) हाणें ताचेविशीं आपली भावना उक्तायल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## भारती, धर्मवीर :

(जल्म : २५ डिसेंबर १९२६, अलाहाबाद; मरण : सप्टेंबर १९९८).

आर्विल्लो हिंदी साहित्यीक तसोच 'धर्मयुग' ह्या हिंदी सातोळयाचो संपादक. आठवे यत्तेंत आसतनाच भारतीच्या बापायक मरण आयलें.



ताका लागून भारती ताचो मामा अभयकृष्ण जौहरी हाचेकडेन रावपाक लागलो. थंयच भारतीचें फुडलें शिक्षण जालें. १९४२ च्या आंदोलनांत वांटो घेतिल्ल्यान एक वर्स ताच्या शिक्षणांत खंड पडलो. १९४५ वर्सा बी. ए. चे परिक्षेंत हिंदी विशयांत पयलो क्रमांक मेळिल्ल्यान ताका 'चिंतामणी घोष पदक' फावो जालें. १९४७ वर्सा तो पयल्या वर्गांत एम. ए. पास जालो. उपरांत धीरेंद्र वर्मा हाच्या मार्गदर्शनाआड 'सिध्द साहित्य' ह्या विशयाचेर संशोधन करून ताणें पीएच. डी. पदवी घेतली. अभ्युदय पत्रिकेंत अर्दोवेळ काम करून ताणें शिक्षण घेतलें. १९४४ वर्सा तो 'संगम' हातूंत सहकारी संपादक जालो. उपरांत एक वर्स हिंदुस्थानी अकॅडेमींत उपसचिवाचें काम केलें. १९६० मेरेन प्रयाग विश्वविद्यालयांत हिंदीचो प्राध्यापक म्हणून काम करतकच, 'धर्मयुग' ह्या नामनेच्या सातोळयाचो संपादक म्हणून मुंबय आयलो.

कवी म्हणुनूय भारतीक खूब नामना मेळ्ळी. 'अज्ञेय' हाणें संपादीत

केल्ल्या 'दूसरा सप्तक' हातूंत प्रतिनिधिक म्हत्लाचो कवी म्हणून भारतीचो आस्पाव जाला. 'ठंडा लोहा' (१९५२), 'सात गीत वर्ष' (१९५७) ह्या काव्यांझेल्यांनी भारतीची स्फूट कविता संकलीत आसा. 'कनुप्रिया' (१९५८) हातूंत राधेच्या उत्कट प्रणय भावनेंतल्यो वेदना उक्तावपाक कवीक खूब यश मेळ्ळां. ताचेय फुडें भारतीय समाजांत दादल्यान बायलेची केल्ली उपेक्षा, तशेंच दादलो-बायलेच्या प्रेमगर्भ द्वंद्वात्मकतायेचें चिरंतन भावविश्व लेगीत ह्या काव्यांत उक्तायलां.

हिंदीच्या 'नयी कथा' आंदोलनांत ताणें मोलादीक वावर केला. 'मुर्दोंका गांव' (१९४८), 'चांद और टूटे हुए लोग' (१९५२), 'बंद गली का आखिरी मकान' (१९६४) हे ताचे कांय म्हत्वाचे कथांझेले आसात.

'गुनाहों को देवता' (१९४९) ही ताची पयली कादंबरी खूब गाजली. 'सूरज का सातवां घोडा' (१९५१) ही कादंबरी विंगड विंगड कथांच्या माध्यमांतल्यान बरयल्या. हे कादंबरींत ह्या काळांतल्या जिणेंतली विसंगती आनी मूल्यभ्रश्टता ताणें खरपणान उक्तायल्या.

भारतीच्या गद्य लिखाणांत नाट्यात्मकतायेचो गूण आसाच. हो गूण ताच्या 'नदी प्यासी थी' (१९५४) ह्या एकांकिका झेल्यावयल्यान स्पश्ट जाता. 'अंधायुग' (१९५५) हें नाटक हिंदी साहित्यांत एक मैलाचो फातर मानतात. कौरव-पांडवांच्या भारतीय झुजाची समाप्ती आनी उपरांतची जिणेंत आयिल्ली मूल्यभ्रश्टता आनी दुख्ख हें ह्या नाटकाची फाटभूंय आसा.

भारतीच्या निबंद-साहित्यांत ताणें केल्ल्या भोंवड्यांचीं सोबीत वर्णनां आसून मार्मिक अवलोकनक्षमताय, विंगड विंगड संस्कृतायांतलीं खाशेलपणां दाखोवपाची कुशळताय दिश्टी पडटा. 'ठेले पर हिमालय' (१९५३), 'कहनी अनकहनी' (१९६५), 'पश्यंती' (१९६६) हे ताचे निंबध-झेले.

धर्मवीर भारतीन हिंदी साहित्यांतल्या नव्या विचारीक आनी साहित्यीक चळवळींत वांटो घेवन, नव्या साहित्याचे प्रतिश्ठापनेखातीर विचारांची बसका मेळोवन दिली. 'प्रगतिवाद: एक समीक्षा' (१९५३) ह्या ग्रंथांत साम्यवाद आनी ताचे साहित्यीक विचार हांचो बरो परामर्श घेतला. तशेंच 'निकष' आनी 'आलोचन' ह्या प्रतिश्ठीत साहित्यीक नेमाळयांच्या संपादन कामांतूय ताणें खूब वावर केला. 'मानव-मूल्य और साहित्य' (१९६२) हो ताचो ग्रंथ हिंदी विचारीक साहित्यांत म्हत्वाचो मानतात.

कॉमनवॅल्थ रिलेशन्स कमिटीच्या नियंत्रणावयल्यान १९६१ वर्सा ताणें पयली विदेश यात्रा केली. इंग्लंड आनी युरोपी देशांनी तो वचून आयलो. १९६२ वर्सा जर्मनी, १९६६ वर्सा इंडोनेशिया आनी थायलंडाची भोंवडी केली. १९७१ वर्सा ताणें मुक्तिवाहिनीवांगडा बांगलादेशाची गुपीत यात्रा करून, ते क्रांतीचें पळयिल्लें आनी अणभविल्लें विवरण धर्मयुगांतल्यान उजवाडायलें. १९७१ वर्सा भारत-पाक झुजाच्या वेळार भारतीय स्थलसेनेवांगडा झुजाआघाडेवयलो अणभवूय ताणें घेतलो. १९७४ वर्सा ताणें मॉरिशसाची भोंवडी करून थंयच्या भारतीय लोकांच्या अडचणींचो अभ्यास केलो.

१९६७ वर्सा संगीत अकादेमीचो वांगडी म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९७२ वर्सा सरकारान ताका 'पद्मश्री' किताब दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**भारतीय आयुर्विमा निगम** : अर्थ खात्याचे नदरेखाल आयुर्विम्याविशींचे सगळे वेव्हार पळोवपाची देशांतली सगळयांत व्हड वित्तीय संस्था.

१९ जानेवारी १९५६ दिसा, भारत सरकारान आयुर्विम्याविशीं वटहुकूम जारी करून १५४ भारतीय मालकीच्यो आनी १६ भायल्यो अशो वट्ट १७० आयुर्विमा कंपन्यो आनी ७५ भविश्य निर्वाह निधीसंस्था ताब्यांत घेतल्यो. ह्या कंपन्यांचो वेव्हार पळोवपाखातीर अभिरक्षक नेमले. उपरांत एक सप्टेंबर १९५६ दिसा भारतीय आयुर्विमा निगम स्थापन जालें. त्या दिसासावन सगळया खासगी विम्या कंपन्यांचें आयुर्विम्याचें काम आयुर्विमा निगमाकडेन सोंपयलें.

भारतीय आयुर्विमा निगमान एप्रिल १९६४ सावन सादारण विम्या वेव्हाराक सुरवात केली. उज्या विमो, दर्या विमो आनी हेर विम्यांच्या येवजणांखाल १९६९-७० त निगमान १८.०४ रुपयांचे प्रत्यक्ष हप्ते जमयले. सादारणपणान विमो राश्ट्रीयीकरण अधिनियम १९७२ हेप्रमाण भारतीय आयुर्विमा निगमाकडले सादारण वेवसाय विम्याविशींच्या बाबींचें हस्तांतरण नव्यान स्थापन केल्ल्या भारतीय सादारण विमो निगमाकडेन सोंपयलें. ह्या नव्या निगमाचें कार्य एक जानेवारी १९७३ सावन सुरू जालें.

भारतीय आयुर्विमा निगम ही कायदयान प्रस्थापीत जाल्ली कायम स्वरूपाची संस्था आसून तिका मालमत्ता खरेदी-विक्री करपाचे हक्क आसात. ह्या निगमांत केंद्र सरकारान नेमिल्ले पंदरा वा ताचेयपरस उणे वांगडी आसतात. निगमाचो अध्यक्ष केंद्र सरकार नेमता. निगमाचें भांडवल ६० हजार कोटी (१९९५) रुपयांपरसय चड आसून भारतांत तशेंच हेर देशांत आयुर्विम्याचे वेवसाय चलतात.

निगमाचे कार्यकारी आनी गुंथवणूक समिती अशे दोन वांटे आसात. कार्यकारी समितीचेर निगमाचो अध्यक्ष, दोन कार्यकारी संचालक आनी दोन वांगडी आसतात. अर्थीक गुंथवणूक करपाविशींचो सल्लो गुंथवणूक समिती दिता. हे समितीचेर अध्यक्ष, कार्यकारी संचालक आनी पांच वांगडी आसतात.

वावराचे नदरेन आयुर्विमा निगमाचे पांच विभाग केल्ले आसून ताच्यो विभागीय कचेर्‍यो मुंबय, कलकत्ता, चेन्नई, दिल्ली आनी कानपूराक आसात. निगमाची मुखेल कचेरी मुंबय आसा. विभागीय मंडळां विभागीय मुखेल्याक सल्लो दिवपाचें काम करतात.

आयुर्विमा उद्देगाचो विस्तार व्यापक प्रमाणांत आनी चड करून गांवगिऱ्या वाठारांनी पावोपाखातीर आयुर्विमा निगमाचें स्वतंत्र फांट्यांनी पुनः संघटन जालें. आयुर्विमा निगमाचे २०२१ (१९९५) फांटे आसून तातूंत सुमार ५,०८,३२४ एजंट वावर करतात.

निगमान ३१ मार्च १९९५ मेरेन वट्ट ५३,४७९.४७ कोटी रुपयांची गुंथवणूक केल्ली. हातूंतले भौशीक क्षेत्रांत ४४,३१८.९३ कोटी रुपयांची, सहकारी क्षेत्रांत १७९३.०५ कोटी रुपयांची, खाजगी क्षेत्रांत ३५०.३४ कोटी रुपयांची आनी हेर क्षेत्रांनी ७०१७.१५ कोटी रुपयांची गुंथवणूक केल्ली. गृहनिवसन, उदकापुरवण, राज्य वीज मंडळ, उद्देगीक वसणुको, सहकारी साकर कारखाने ह्या सारक्या येवजणांक निगमान व्हड प्रमाणांत रिणां दिल्यांत. निगमान १९९५ मेरेन उदका पुरवण आनी भुंयारी गटारां १७५३ कोटी रुपया, वीज मंडळांनी ७८१६ कोटी रुपया, येरादारी मंडळांनी ४०६ कोटी रुपया आनी गृह निवसन मंडळांत ७८०४ कोटी रुपयांची गुंथवणूक केल्ली आसा. 'स्वताचें घर घेयात' हे येवजणेखाल विमोपत्रधारकांक घरां बांदपाखातीर वा तयार घरां विकतीं घेवपाखातीर आयुर्विमा निगम रिणां दिता. अनिश्चीत उत्पन्न मेळपी उण्या उत्पन्न लोकांच्या गटाखातीर 'जनरक्षा विमोपत्र येवजण' अशी नवी येवजण सुरू केल्या.

३१ मार्च १९९५ मेरेन आयुर्विमा निगमाकडेन ६६० लाख (उतरायल्ले विमे पॉलिसी) आशिल्ले आनी निगमान २,१५,६४५ कोटी रुपया जमयले.

आयुर्विमा निगमान लोकांखातीर जायत्यो सुरक्षा येवजणो (Security Plans) आंखल्यात. जीवन सुकन्या, जीवन बाल्या, जीवन किशोर, जीवन छाया, जीवन सरीता, जीवन साथी, जीवन मित्र, जीवन गृह, जीवन सुरभी, वीमा संदेश, मनी बॅक पॉलिसी, भविश्य जीवन, नव जान रक्षा, बीमा किरण, जीवन श्री आनी हेर जायत्यो येवजणो आयुर्विमा निगमाकडेन आसात.

फाटल्या चाळीस वर्सांच्या काळांत निगमान देशाच्या अर्थीक विकासांत म्हत्वाची कामगिरी केल्या. सर्वसामान्य जनतेकडल्यान चडकरून मर्यादीत येणावळ दारांकडल्यान बचत एकठांय करपाचें म्हत्वाचें कार्य निगम करता. तेच परीन लोखण, ताग, शिमीट, कोळसो, रंग, लुगटां, कारखाने, रेल्वे, साकर कारखाने, ॲल्युमिनीयम खण धंदो, आदी वेवसायांनी निगमान कोट्यांनी रुपया गुंथोवन देशाचे सर्वांगीण अर्थीक उदरगतीक म्हत्वाचो आदार दिला.

- कों. वि. सं. मं.

## भारतीय तत्त्वज्ञान : (पळेयात तत्त्वज्ञान).

## भारतीय वास्तूकला :

वस म्हणजेच रावप ह्या धातूपसून वास्तू हें उतर तयार जाल्लें आसा. ताचो अर्थ निवासस्थान वा रावपाचें घर असो जाता. वास्तूविद्या हो वैदिक काळांत शिल्पशास्त्राचो एक फांटो आशिल्लो. शुक्रनितीसार ह्या ग्रंथांत देवळां, देवांच्यो प्रतिमा, पोरसां, तळीं वा तळयो, प्रासाद हांचे निर्मितीचें शास्त्र अशी शिल्पशास्त्राची व्याख्या दिल्ली आसा. पूण सादारणपणान वास्तूविद्या म्हळयार घरां, देवळां,प्रासाद, तट, मनोरे, बुरूज, किल्ले, कोटां, तळीं, बांयो, खारजां, स्तुपां, विजयस्तंभ आनी हेर वास्तू बांदपाचें शास्त्र. हांचेविशीं साबार संस्कृत ग्रंथ उपलब्ध आसून तातूंत वास्तूशास्त्राचे नेम दिल्ले आसात. भारतांत सगळेकडेन देवळां, प्रासाद, मनोरे, स्तंभ, तळयो, ह्यो बरे स्थितींत वा मोडिल्ल्या रुपांत मेळटात. तांकां वास्तूशिल्पां अशें म्हण्टात.

भारतीय द्वीपकल्पांतले (भारत आनी पाकिस्तान) वास्तूकलेचे सगळ्यांत आदले नमुने सिंधू संस्कृतायेच्या अवशेशांनी पळोवपाक मेळटात. मोहें-जो-दाडो, हडप्पा, कालिबंगा आनी लोथल ह्या वाठारांतले वास्तूकलेचो सगळ्या आंगांनी विकास जाल्लो. नगर रचणूक, नगर रक्षण, धान्याचे गुदांव, गृहरचणूक, भौशिक तळयो आनी न्हाणी घरां ह्या सगळयांचो हातूंत आस्पाव जातालो. इ. स. पयलीं २००० ते १७०० ह्या काळांत हे संस्कृतायेचो नाश जालो.

ऋग्वेद काळांत गृहरचणुके संबंदीं कांय उल्लेख सांपडल्यात. हांचेवयल्यान वेदकाळांत वास्तूरचणुकेक एक धर्मीक कृत्य मानताले



नालंदा विद्यापीठ

अशें कळटा. वास्तोश्पती ही वास्तूची अधिश्ठात्री देवता आसून गृहरचणुकेच्या वेळार तिची पुजा करपाची प्रथा आशिल्ली. वास्तूखातीर खंयची जमीन बरी, घराची लांबाय-रुंदाय कितली आसची आनी हेर उल्लेख ऋग्वेदांत मेळटात. वेद आनी ब्राह्मणां हातूंतल्या वर्णनांवयल्यान वास्तूरचणूक ल्हवू-ल्हवू विकसीत जायत गेल्या हें कळटा.

वास्तूकलेचे उदरगतीचे नदरेन वास्तूकलेखातीर वापरतात त्यो वस्तू आनी बांदकामाचीं तंत्रां हीं म्हत्वाचीं आसात. आदल्या काळांत

विटो आनी फातर हांचे उल्लेख साप उण्या प्रमाणांत मेळटात. चडशीं वर्णनां काव्यमय आशिल्ल्यान वास्तूरचणुकेखातीर कसले पदार्थ वापरताले हें स्पश्टपणान सांगप शक्य ना. मौर्य काळांतले उत्खनीत अवशेश आनी वाङ्‌मयांतल्या वर्णनाचो अभ्यास केल्यार वास्तूरचणुकेचें साधन वा माध्यम म्हणून लाकूड, तिजुले वा विटांचो उपेग व्हड प्रमाणांत जातालो म्हणपाचें कळटा. स्तंभ आनी तुला हांचो चौकट हो वास्तूचो मुखेल आदार आसून विटकाम, नळे, वण्टीचेर मातयेचो लेप आनी तांचेर रंगकाम करताले. वास्तूरचणुकेखातीर फातरांचो उपेग सुर्वेक अशोकाच्या



सांची - स्तूप, मध्य प्रदेश

काळांत जालो. पूण तुला, तोरण आनी स्तंभ हे लाकडी आसताले. सातवाहन-गुप्त वंशाच्या काळांत स्तूप आनी देवळां फातरांचीं आनी घरां लाकडी वा विटांचीं आसतालीं. इस्लामी कालखंडांत सगळ्या तरांच्या वास्तूंक फातर वापरताले आनी संगमरवरी, तांबडे, हळदुव्या फातरांचे प्रकारूय वास्तूखातीर वापरताले. वास्तूचणुकेंत स्तंभ (खांबे) आनी तुला हे म्हत्वाचे घटक १२५० वर्सां मेरेन तग धरून आशिल्ले. तुला, तेमकां, नळे आनी वास्तूचो हेर वयलो सगळो भार तुलांच्या आदारान खांब्याचेर पेलताले.

इस्लामी वास्तूकारांनी भारतांत सुर्वेक कमानी आनी घुमट हांचो उपेग केलो. मेझोपोटेमियांत सुमेरियन काळासावन कमानीचो वापर जातालो. पूण इस्लामी वास्तूंभितर मुर्तीशिल्पाचो वापर जायना. ताज महाला सारकिल्ल्या कांय वास्तूंनी संगमरवरी फातरांचेर हेर रंगीत फातरांचें जडाव काम करताले. वास्तूचे वण्टींचेर भौमितिक आकृत्यो, फुलां, फळां, पानां, वाली आनी हेर वनस्पतीजन्य नक्षी काम केल्लें आसतालें.

जांची वर्णनां, प्रतिकृती वा अवशेश उपलब्ध आसात आनी ज्यो वास्तू अस्तित्वांत आसात, तांचे नागरी, संरक्षक वा धर्मीक अशे तीन वर्ग केल्यात. नागरी वर्गांत नगररचणूक घरां, राजप्रसाद, रस्ते, पूल, उदका पुरवण, पोरसां हांचो आस्पाव जाता. संरक्षक वास्तूंभितर शाराभोंवतणची तटबंदी, किल्ले आनी राजवाडे हांचो आस्पाव जातालो. धर्मीक वास्तूंमदीं देवळां, मशिदी, समाध्यो, चैत्य, हांचो आस्पाव जाता.

भारतांत बांदून काडिल्ल्या वास्तूंवरीच दोंगराच्या कुशींतल्यान खणून तयार केल्ल्यो वास्तूय आसात. तांकां शैलशिल्पां वा लेणीं अशें म्हण्टात. बिहार राज्यांत सगळ्यांत आदिम अशो घोली आसात. सम्राट अशोकाचो नातू दशरथ हाणें त्यो खणिल्ल्यो. सातवाहन काळांत निर्माण जाल्ल्या शैलशिल्पांत चैत्य आनी विहार हे दोन प्रकार दिश्टी पडटात. ह्या इमारतींचो दर्शनी भाग आनी भितरलो सगळो भाग बारकायेन कोरांतिल्लो आसता. सुमार पांच शेंकडे कलाकार हेंच काम करीत आशिल्ले. उपरांत तांकां हो प्रयोग अर्दकुटो आसा हाची जाणाविकाय जाली. तांणी इमारतीची सर्वांगपरिपूर्ण प्रतिकृती तयार करपाचो हावेस मनांत धरून दोंगर तासपाक सुरवात केली. आतां इमारतींत तशेंच इमारतीं भोंवतणींय मेकळेपणान भोंवूंक मेळटा. महाबलिपूरचो रथ, वेरूळचें 'कैलास लेणें' आनी 'ल्हान कैलास' ह्या देवळांचो आस्पाव हातूंत जाता. एकाच दोंगरांतल्यान वा पाशाणांतल्यान सबंद देवूळ खणून काडपाची पद्दत, हें ह्या कलाप्रवाहाचें निमाणें पावल. वेरूळचें कैलास लेणें हो हे परंपरेंतलो खाशेलो असो आविश्कार. उपरांत हे परंपरेक देंवती कळा लागली. हाचेफुडेंय कांय काळ ही परंपरा चालू आशिल्ली पूण तिका नेट नाशिल्लो.

वास्तूशास्त्रांत देवळांचे साबार वर्ग आनी प्रकार कल्पिल्ले आसात. हातूंत नागर , 'वेसर' आनी 'द्रविड' हे सगळ्यांत म्हत्वाचे प्रकार आसात. द्रविड म्हळ्यार दक्षिणदेशीय आनी नागर म्हळ्यार उत्तर देशीय देवळां, पूण वेसर ही संज्ञा खंयच्या देवळा प्रकाराची हें स्पश्टपणान सांगप शक्य ना. आधुनिक अभ्यासकांनी आदल्या देवळांचेंय समिक्षण करून तांचें वर्गीकरण केलां. गुप्त शैली, पल्लव शैली, चालुक्य, कल्याणी-चालुक्य, प्रतिहार, होयसळ, पांड्य, विजयनगर अशे वांटे केल्यात.



तोरण

वास्तूशिल्पाची नागर पद्दत म्हळ्यार उत्तर भारतीय आनी द्रविड म्हळ्यार दक्षिण भारतीय पद्‌दत. तशेंच उत्तर भारतीय ही आर्यांची आनी दक्षिण भारतीय ही द्रविड लोकांची पद्दत. पुर्विल्ल्या काळांत ह्या दोनूय पद्दतींमदीं व्हडलोसो भेद नाशिल्लो. तांचीं मूलभूत तत्त्वां सारकींच आशिल्लीं. फक्त वास्तूरचणुकेचें स्वरूप आनी आकारमान हातूंत थोडोसो फरक आशिल्लो. सातव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन नागर आनी द्रविड हे मुखेल शैलीभेद निर्माण जाले.

**नागर** : देवळाची वास्तू सादारणपणान मनीसभर उंचायेच्या चौथऱ्याचेर, चवकोनी गाभारो, चवकोनी मंटप, वण्टीमजगतीं आडव्या थरांवांगडा उबे रथ, अशीर शिखर पूण ऊंच आनी एकेच रेशेंत वयर वयर वता. मंटप, अंतराळ, गाभारो हांकां स्वतंत्र पाखें आनी वास्तूचो रोख उंचायेचेर आसता.

**द्रविड :** चवकोनी गाभारो, लांब-चवकोनी मंटप, वण्टींनी आडवे थर आनी तातूंत उबे मांडावळीवांगडा साबार अर्दस्तंभ घालून भायल्या वण्टींचे विभाग करून कोनाडे तयार केल्ले आसतात. पाख्याची रचणूक सोंपणां-सोंपणांची आसा. पयलो थर सकयल्ल्या थरापरस मातसो ल्हान. खांबे, खांब्याचीं तोंकां, तुळयो, हस्त, छतपट्ट्यो, द्वारशाखा ह्या घटकांच्या आकारांत आनी सजावटींत नागर आनी द्रविड पद्दतींत खूब फरक जाणवता.

मौर्यांपयलींच्या काळांतलीं वास्तुशिल्पां आयज दिश्टी पडनात. त्या काळांत बांदकामाखातीर पाशाणाचो उपेग खूब उण्या प्रमाणांत जातालो. चडशो वास्तू लाकडाच्यो आसताल्यो. ताका लागून त्यो नश्ट



शिवाचें देवूळ (कोल काळ) - तमिळनाडू

जाल्यो. चंद्रगुप्त मौर्य हाच्या दरबारांत मॅगस्थॅनीस नांवाचो ग्रीस वकील आशिल्लो. ताणें राजधानीचें वर्णन करतना, पाटलीपुत्र नगराभोंवतणी लाकडी तटबंदी आशिल्ली अशें म्हळां. सम्राट अशोक हाणें बौध्द धर्माच्या प्रसाराखातीर जीं फातरी शिल्पां निर्माण केल्लीं तीं आयजूय पळोवपाक मेळटात. अशोकान बौध्द भिक्षुकांखातीर विहार बांदले, साबार स्तूप उबारले. बौध्द धर्माचीं प्रार्थनाघरां म्हणून चैत्य निर्माण केले. अशोकान ८४,००० स्तूप निर्माण केल्ले अशी आख्यायिका आसा. भाजे आनी कार्लेचीं लेणीं वास्तूकलेचे नदरेन म्हत्वाचीं. सांची, सारनाथ, भरहूत, नंदननगढ, अमरावती हांगा आदिम स्तूप आसात. उपरांत कुशाण वंशांतल्या कनिश्क राजान भारताच्या वायव्य भागांत साबार स्तूप उबारिल्ले. उपरांतचे सगळे स्तूप गांधार वास्तुशैलीचे आसात. तांचे वांगडा महाविहारूय निर्माण जाले. हीं सगळीं वास्तूशिल्पां पाशाणाचीं आसून तातूंत बुध्दाची मूर्त सांपडल्या. लेण्यांची निर्मिती धाव्या शेंकड्यामेरेन चालू आशिल्ली.

मध्ययुगांत म्हळयार मुसलमानांची राज्यसत्ता आशिल्ली त्या तेंपार नवीं देवळां उबारप ही गजाल अशक्यूच आशिल्ली. मोगल काळाचे निमाणेकडेन राजस्थान, माळवा आनी महाराष्ट्रांत हिंदू राजांचे सत्तेक लागून देवळां निर्माण जालीं. राजस्थान आनी माळवा हांगा आदींच चालींत आशिल्ले नागरशैलीचीं देवळां बांदलीं. महाराष्ट्रांत 'भूमिज' धरतीचेर देवळां उबारिल्लीं. तशेंच नागरी, द्रविड आनी इस्लामी शैली हांची भरसण जावन हांगा नवेच पद्दतीचीं देवळां निर्माण जालीं.

बाराव्या शेंकड्यासावन भारताच्या चडशा राज्यांनी मुसलमानांचो शेक चलतालो. ह्या बादशांनी इस्लामी शैलीच्यो वास्तू उबारपाक सुरवात केली. ह्या काळांत स्वतंत्र राज्यां आशिल्ल्यान वास्तूनिर्मितीय विंगड विंगड मार्गांनी जावपाक लागली. दख्खन, बंगाल, जोधपूर, मांडू, गुजरात आनी हेरकडेन मुखावयले दोन शेंकडे इस्लामी शैलीची वास्तुनिर्मिती जायत रावली. विजापूरचो गोलघुमट, इब्राहीम रोझा, अहमदाबांदेची जामी मशीद, रानी सिप्रिचो दर्गो, गुलबर्गाची जामी मशीद ह्यो वास्तू प्रसिध्द आसात. ह्या वास्तूंचेर इराणी, अरबस्तानी आनी हेर अस्तंती मुसलमान राश्ट्रांचो प्रभाव आशिल्लो. मोगल राजवटींत हो प्रभाव ल्हव ल्हव उणो जावन त्या जाग्यार 'भारतीय-इस्लामी' ही नवी शैली निर्माण जाली. हुमायू ह्या मोगल बादशाहान ही शैली अस्तित्वांत हाडली आनी उपरांत ती नेटान विकसीत जायत गेली. तांबडो वालुकाश्म, फातर आनी संगमरवर हें वास्तूसाहित्य ह्या काळांत चालींत आशिल्लें. हुमायुनाची कबर ही तातूंतली म्हत्वाची वास्तू. हेच शैलीचेर अकबरान आग्राक किल्लो बांदलो आनी फतेहपूर सिक्री हें नवें शार वसयलें. हांगाचो बुलंद दरवाजो, जामी मशीद हीं खूब प्रसिध्द आसात. हांचे भायर पंचमहल, दिवाण-इ-आम, जोधाबाई महाल अशो शैलीदार वास्तू हांगा आसात. मोगल शैलीचो अत्युच्च विकास बादशा शहाजहान हाच्या तेंपार जालो. दिल्लीक आशिल्लो लाल किल्लो, आग्र्याचो ताजमहाल, जामा मशीद, मोती मशीद आनी हेर शैलीदार वास्तू ह्या काळांत बांदल्यो. औरंगजेबाचे राजवटीसावन हे शैलीक देंवती कळा लागली.

सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन अस्तंती वास्तूशैलीचीं पावलां भारतांत उदेवपाक लागलीं. पुर्तुगेजांनी गोंय काबीज केले उपरांत हांगा विंगड विंगड प्रकाराच्यो वास्तू उबारिल्ल्यो. उपरांत ब्रिटीश राजवटींत युरोपांतले नव-अभिजातवादी शैलीचेर आदारिल्ल्यो साबार शासकीय वास्तू भारतांत बांदल्यो. देखीकः व्हिक्टोरिया मॅमोरिअल (कलकत्ता), व्हिक्टोरिया टर्मिनस स्टेशन (मुंबय), हाय कोर्ट आनी हेर वास्तू. गॉथिक, प्रबोधनकालीन, बरॉक आनी हेर अस्तंती शैलींच्या प्राभावाखाला ह्यो वास्तू निर्माण जाल्यो. पूण विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन ब्रिटिशांनी शासकीय बांदकामां भारतीय घाटणेचीं दिसचीं म्हणून यत्न केले. दिल्लीक वास्तुशिल्पज्ञ सर एडवीन लँडसीयर लुटिन्स हाणें आकृतिबंध केल्लें राश्ट्रपती भवन तशेंच ताचो वांगडी होवर्ड बेकर हाणें आकृतिबंध केल्लें सचिवालय (१९१३-३०) हातूंत सांची स्तूप आनी फतेहपूर सिक्री हातूंतल्या वास्तूघटकांचो वापर केल्लो दिसता. मुंबयची 'गेटवे ऑफ इंडिया' पुरायपणान अहमदाबादी वास्तूशैलींत मोडटा. म्युझियम आनी जनरल पोस्ट ऑफीस ह्या वास्तूंनी विजापूर शैलीचो प्रभाव दिश्टी पडटा. बॉंबे सॅन्ट्रल स्टेशन ही आधुनिक रचणूक माध्यमांतली एक वास्तू. स्वातंत्र्योत्तर काळांतली चंदीगढ शाराची ल कॉर्बुझिये हाणें आधुनिक शैलींत केल्ली नगर रचणूक ही एक म्हत्वाची घडणूक. तेन्नासावन आधुनिक भारतीय वास्तूकला प्रचारांत आयली.

- कों. वि. सं. मं.

## भारतीय संविधान : (पळेयात भारत).

## भारतीय ज्ञानपीठ

**भारतीय ज्ञानपीठ** : भारतीय साहित्य संस्कृतायेचे उदरगतीखातीर काम करपी एक नामनेची संस्था. नामनेचो उद्देगपती, सर्गेस्त साहू शांतिप्रसाद जैन, हाणें १८ फेब्रुवारी १९४४ ह्या दिसा वाराणसीक हे संस्थेची स्थापना केली. शांतिप्रसादाची बायल सर्गेस्त श्रीमती रमा जैन ही हे संस्थेचे स्थापनेसावन १९७५ मेरेन अध्यक्षा आशिल्ली.

वाराणसीक १९४४ त भरिल्ल्या अखिल भारतीय प्राच्यविद्या परिशदेच्या अधिवेशना निमतान जायते विद्वान एकठांय जमिल्ले. तांणी शांतिप्रसादाक देशांत भारतविद्येच्या वेगवेगळ्या फांट्यांतल्या सखोल संशोधनाखातीर तशेंच पुर्विल्ले ग्रंथ संपादून उजवाडाक हाडपाखातीर वेगवेगळ्यो येवजणो आंखून कार्य करीत रावपी संस्थेची गरज आसा अशें सांगलें. ही गरज लक्षांत घेवन शांतिप्रसाद जैन हाणें 'भारतीय ज्ञानपीठ' ही विश्वस्त संस्था स्थापन केली. पुर्विल्ल्या दुर्मिळ अशा भारतीय ग्रंथांचें संशोधन, संपादन आनी उजवाडावप तशेंच आर्विल्ल्या भारतीय भाशेंतल्या मोलादीक, सर्जनशील साहित्याक लोक उदर गतीखातीर उत्तेजन दिवप ह्या हेतान भारतीय ज्ञानपिठाची स्थापना जाली.




भारतीय ज्ञानपिठाचें बोधचिन्न

ज्ञानपिठाच्या कार्यविकासाचे चार मुखेल टप्पे अशे आसात : १) पयल्या टप्प्यांत 'मुर्तिदेवी ग्रंथमाले' ची येवजण आंखून भारत विद्येंतल्या पुर्विल्ल्या ग्रंथाचें चड करून जैन आचार्याचें संशोधन संपादन आनी प्रकाशन हो कार्यक्रम हातांत घेतलो. हे ग्रंथ संस्कृत, प्राकृत, अपभ्रंश, पुर्विल्ले कन्नड आनी तमिळ भाशेंतले आशिल्ले. तशेंच, नाथुराम प्रेमीं हाणें मुंबय सुरू केल्ल्या माणिकचंद्र ग्रंथमालेचें पुनरुज्जीवन करून तें तडीक व्हरप हाचोय आस्पाव ह्या टप्प्यांत आशिल्लो. २) दुसऱ्या टप्प्यांत 'लोकोदय ग्रंथमालेंत' उदरगत घडोवन हाडली. आर्विल्ल्या मानादीक भारतीय लेखकांच्या सर्जनशील ग्रंथांचें प्रकाशन करप तशेंच नवोदीत लेखकांक उत्तेजन दिवन तांच्याय ग्रंथांचें प्रकाशन ह्या टप्प्यांत येता. ३) तिसऱ्या टप्प्यांत विशिश्ट काळांत निर्माण जाल्ल्या भारताच्या संविधानांतल्या भाशांतलो एक बऱ्यांत बरो ग्रंथ वेंचून ताका एक लाख रुपयांचो (१९८२ सावन देड लाख, १९९२ सावन २ लाख) पुरस्कार दिवपाची येवजण आंखली. ४) चवथ्या टप्प्यांत पुराभिलेख आनी पुरातत्त्वीय सर्वेक्षण आनी संवर्धनाची येवजण हातांत घेतली. तशेंच, जैनांनीं तयार केल्ल्या कलावस्तूंचो आनी ग्रंथांचो सखोल अभ्यास आनी संशोधन करपाची येवजण आंखली. चवथ्या टप्प्यांत अ) संस्कृत, प्राकृत, अपभ्रंश, आदी भाशांनी उपलब्ध आशिल्ल्या भगवान महाविराच्या सगळ्या काव्यात्मक चरित्रांचें संपादन आनी प्रकाशन करप; आ) 'जैन आर्ट अँड आर्किटेक्चर' ह्या विशयावयले अधिकृत ग्रंथ तयार करून तांचें प्रकाशन करप आनी जैन पुरातत्त्वीय कलावस्तूंच्या छायाचित्रांचें संकलन आनी संग्रह करप ह्या येवजणांचो आस्पाव जाता.

ह्या वेगवेगळ्या येवजणांखाल भारतीय ज्ञानपीठान आजूनमेरेन ६०० वयर ग्रंथ उजवाडा हाडिल्ले आसून ते संस्कृत, प्राकृत, पाली, अपभ्रंश, हिंदी, तमीळ, कन्नड, उर्दू, इंग्लीश आदी भाशांनी आसात. भारतीय पुरातत्त्वीय संशोधन येवजणेवतीन जैन कलेचें सर्वेक्षण, संशोधन आनी संकलन सुरू आसा. सुमार धा हजारांवयर छायाचित्रां शास्त्रशुध्द रितीन एकठांय केल्लीं आसात. भगवान महाविराच्या २५०० व्या निर्वाण महोत्सवा निमतान संस्कृत, अपभ्रंश आनी कन्नड भाशेंतल्या उपलब्ध महावीर चरित्रकाव्यांच्या संपादनाची आनी प्रकाशनाची जापसालदारकी ज्ञानपिठान घेतल्या. 'जैन आर्ट अँड आर्किटॅक्चर' (३ खंड, १९७४-७५) हो जायतीं चित्रां छायाचित्रां आशिल्लो संदर्भग्रंथ उजवाडाक आयला.



वाग्देवी : भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्काराचें प्रतीक, ब्राँझशिल्प

संस्थेचें सध्याचें मुखेल कार्यालय नवी दिल्ली हांगा आसून वाराणसी हांगा तिचो फांटो आसा. भारतीय ज्ञानपिठाचे संस्थापक, अध्यक्ष आनी हेर पदाधिकारी अशे : सर्गेस्त साहू शांतिप्रसाद जैन (संस्थापक), सर्गेस्त श्रीमती रमा जैन (अध्यक्षा : १९४४-७५), श्रीयांसप्रसाद जैन (विद्यमान अध्यक्ष), ए. के. जैन (वेवस्थापक आनी विश्वस्त) आनी लक्ष्मीचंद्र जैन (संचालक).

भारतीय ज्ञानपीठ १९६६ सावन दर वर्सा आर्विल्ल्या भारतीय भाशेंतल्या एका सर्वोत्कृश्ट, मोलादीक आनी सर्जनशील लेखकाक एक लाख रुपयांचो पुरस्कार दितालें. १९८२ सावन पुरस्काराची ही रक्कम

वाडोवन देड लाख रुपया केली. सद्या म्हळयार १९९२ वर्सासावन ही रक्कम दोन लाख रुपया इतली केल्या. आर्विल्ल्यो भासो जरी जायत्यो आसल्यो तरी तातूंतलो सांस्कृतीक आशय हो एक सारकोच आसा आनी तांचो आत्मो एकूच म्हळयार भारतीय. ह्या उद्देशान दितात तो हो पुरस्कार म्हळयार भारतांतलो एक म्हत्वाचो आनी प्रतिश्ठेचो पुरस्कार मानतात. आयज मेरेन वेगवेगळया भारतीय भाशांतल्या सुमार ९० प्रतिभासंपन्न लेखकांक हो पुरस्कार दिल्लो आसा.

पुरस्काराखातीर साहित्यीक वेंचून काडपाक दरेके भाशेंतले कांय तज्ञ लेखक-समिक्षकांची सल्लागार आनी परिक्षक म्हणून नेमणूक करतात. हे सल्लागार वा परिक्षक ते साहित्यिकाची योग्यतायेची चिकित्सा करून मागिरूच पुरस्काराखातीर लेखक वेंचून काडटात. उपरांत पुरस्कार मेळिल्ल्या साहित्यिकाक ज्ञानपिठावतीन भोवमान करून ताका पुरस्काराची रक्कम, पुरस्काराचें प्रतीक आशिल्ली चवदा पाकळयांच्या कमळार (चवदा भाशांचें प्रतीक) उबी आशिल्ले वाग्देवीची कांश्याची मूर्त दिवप जाता. वाग्देवीची मूळ मूर्त मध्यप्रदेशांतल्या धार गांवांतल्या सरस्वती देवळांतली आसून ती राजा भोज हाणें १०३५ त प्रतिश्ठापीत केल्ली. सद्या ती लंडनच्या ब्रिटीश संग्रहालयांत आसा. पुरस्कार प्राप्त जाल्ले कृतीची आनी तिच्या लेखकाचें खाशेलपण सांगपी प्रशस्ती पत्रावांगडा त्या मनशाक तो पुरस्कार दितात. १९८२ पयलीं हो पुरस्कार साहित्य कृतीचेर आदारून आसतालो.

भारतीय ज्ञानपिठाचें 'ज्ञानोदय' हें हिंदी मासिक पत्र आनी 'ज्ञानपीठ पत्रिका' हें दुसरें एक म्हयनाळें आसून तातूंत वेगवेगळया भारतीय भाशांच्या विद्वान लेखकांचें मोलादीक बरप येता.

१९६६ ते १९९४ ह्या काळांत ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाल्ले लेखक, वर्स, भास आनी साहित्यकृती अशी आसा :

| | लेखक | वर्स | भास | साहित्यकृती |
|---|---|---|---|---|
| १) | जी. शंकर कुरुप | १९६५ | मल्याळम | ओतक्कुळल (काव्य) |
| २) | ताराशंकर बंदोपाध्याय | १९६६ | बंगाली | गणदेवता (कादंबरी) |
| ३) | के. व्ही. पुट्टप-'कुर्वेपु' | १९६७ | कन्नड | श्री रामायण दर्शनम (महाकाव्य) |
| | आनी उमाशंकर जोशी | '' | गुजराती | निशीथ (काव्यग्रंथ) |
| ४) | सुमित्रानंदन पंत | १९६८ | हिंदी | चिदंबरा (काव्य) |
| ५) | फिराख गोरखपुरी | १९६९ | उर्दु | गुले नग्मा (काव्य) |
| ६) | विश्वनाथ सत्यनारायण | १९७० | तेलुगु | रामायणकल्पवृक्षमु (महाकाव्य) |
| ७) | विष्णू दे | १९७१ | बंगाली | स्मृतिसत्ता भविष्यत (काव्य) |
| ८) | रामधारीसिंह 'दिनकर' | १९७२ | हिंदी | उर्वशी (महाकाव्य) |
| ९) | द. रा. बेंद्रे आनी | १९७३ | कन्नड | नाकु तंती (काव्य) |
| | गोपीनाथ महांती | १९७३ | ओडिया | माती-मातल (कादंबरी) |
| १०) | वि. स. खांडेकर | १९७४ | मराठी | ययाती (कादंबरी) |
| ११) | पेरुंगळूर वैद्यलिंगम अखिलां डम-'आकिलन' | १९७५ | तमीळ | चित्तिरप्पावै (कादंबरी) |
| १२) | आशापुर्णा देवी | १९७६ | बंगाली | प्रथम प्रतिश्रुति |
| १३) | कोट शिवराम कारंथ | १९७७ | कन्नड | मूक्कज्जिय कनसुगळू (कादंबरी) |
| १४) | सच्चिदानंद हीरानंद वात्स्यायन-अज्ञेय | १९७८ | हिंदी | कितनी नावों में कितनी बार (काव्य) |
| १५) | बीरेंद्रकुमार भट्टाचार्य | १९७९ | असमिया | मृत्युंजय (कादंबरी) |
| १६) | एस. के पोट्टेकट्ट | १९८० | मलयाळम् | ओरू देशातीनटे कथा (कादंबरी) |
| १७) | अमृता प्रीतम | १९८१ | पंजाबी | कागज से कॅनव्हॉस (काव्य) |
| १८) | महादेवी वर्मा | १९८२ | हिंदी | (१९८२ सावन साहित्य कृतीचे सुवातेर साहित्यिकाच्या एकंदर वावराक हो पुरस्कार दितात). |
| १९) | मास्ति वें. अय्यंगार | १९८३ | कन्नड | |
| २०) | तकळी शिवशंकर पिळ्ळे | १९८४ | मलयाळम् | |
| २१) | पन्नालाल पटेल | १९८५ | गुजराती | |
| २२) | स. राउतराय | १९८६ | उडिया | |
| २३) | वि. वा. शिरवाडकर | १९८७ | मराठी | |
| २४) | सी. नारायण रेड्डी | १९८८ | तेलुगू | |
| २५) | कुर्रतुलरेन हैदर | १९८९ | उर्दू | |
| २६) | विनायक कृष्ण गोकाक | १९९० | कन्नड | |
| २७) | सुभाष मुखोपाध्याय | १९९१ | बंगाली | |
| २८) | नरेश मेहता | १९९२ | हिंदी | |
| २९) | सीताकान्त महापात्र | १९९३ | उडिया | |
| ३०) | यू. आर. अनन्तमूर्ति | १९९४ | कन्नड | |
| ३१) | एम.टी. वासुदेवन नायर | १९९५ | मलयाळम् | |
| ३२) | महाश्वेता देवी | १९९६ | बंगाली | |
| ३३) | अली सईद जापुरी | १९९७ | उर्दू | |
| ३४) | गिरीश कार्नाड | १९९८ | कन्नड | |

- कों. वि. सं. मं.

**भारतेन्दु, हरिश्चंद्र :** (जल्मः ९ सप्टेंबर १८५०, बनारस; मरण : ६ जानेवारी १८८५).

आर्विल्ले हिंदी भाशेचो जनक आनी नव्या युगाचो प्रवर्तक. ताचो जल्म सेठ अमीनचंद्र हाच्या प्रतिश्ठीत घराण्यांत जालो. ताच्या बापायचें नांव गोपालचंद ऊर्फ गिरिधरदास आनी आवयचें नांव पार्वतीदेवी. गोपालचंद हो एक कवी. ताणें हिंदी आनी संस्कृत भाशांनी काव्य रचणूक केल्या.



'भारतेन्दु' ही ताका मेळिल्ली पदवी. १८८० वर्सा पंडीत रघुनाथ, पंडीत सुधाकर द्विवेदी, पंडीत रामचंद्रदत्त व्यास ह्या हिंदी विद्वानांनी ताका ही पदवी दिली. तेन्नासावन ताका 'भारतेन्दु हरिश्चिंद्र' ह्या नांवान पाचारतात.

भारतेन्दुच्या भुरगेपणांतूच ताच्या आवाय-बापायक मरण आयलें. तेखातीर ताचें शाळेंतलें शिक्षण वेवस्थीत जालें ना. भारतेन्दु स्वभावान सामको हट्टी आनी चंचल आशिल्लो. पूण कुशाग्र बुध्द आनी घट यादीक लागून तो सदांच परिक्षेंत पास जातालो. लिखाण आनी वाचनाकडेन ओड आशिल्ल्यान घरचेघराच ताणें बंगाली, पंजाबी, हिंदी, उर्दू, संस्कृत, मराठी, गुजराती, इंग्लीश ह्या भाशांचो अभ्यास केलो. ल्हानपणासावन ताका कविता रचपाची आवड आशिल्ली.

पिरायेच्या तेराव्या वर्सा भारतेन्दुचें लग्न, काशीच्या लाला गुलाबराय हाची धूव मुन्नादेवी हिचेकडेन जालें. पंदराव्या वर्सा तो आपल्या कुटुंबासयत जगन्नाथपूरीचे यात्रेक गेलो. तेन्नासावन ताका यात्रा करपाची गोडी लागली. तीर्थयात्रेच्या निमतान ताणें खूब भोंवडी केली. हे भोंवडेंत ताणें विंगड विंगड भाशांचो अभ्यास केलो. इंग्लीश शिक्षणाचें म्हत्व आनी गरज जाणून भारतेन्दुन पयलीं आपणाल्या घरांत एक शाळा सुरू केली. उपरांत १८८५ वर्सा हे शाळेक हरिश्चंद्र हायस्कूल अशें नांव मेळळें.

इ. स. १८६८ वर्सा ताणें पयलीं 'कविवचनसुधा' नांवाचें एक म्हयनाळें सुरू केलें. इ. स. १८७३ वर्सा ताणें 'हरिश्चंद्रचंद्रिका' हें म्हयनाळें सुरू केलें. ह्या मासिकांत लोकांक आर्विल्ले हिंदी भाशेचो परिचय जालो. १८७४ वर्सा ताणें बायलांखातीर 'बालबोधिनी' नांवाचें म्हयनाळें काडलें.

भारतेन्दु उदार, दानी, विद्यामोगी, रसीक आनी मनमेकळो आशिल्लो. तसोच तो संघटक आनी पुरोगामी विचारांचो साहित्यीक आशिल्लो. हिंदी भाशा आनी साहित्याचे उदरगतीखातीर ताणें खूब कश्ट घेतले. तशेंच, समाजसुदारणेखातीर लेगीत ताणें खूब यत्न केले. हेखातीर ताणें समाजीक संस्थांचीय स्थापणूक केली.

भारतेन्दुन खूब प्रकारची साहित्यनिर्मिती केली. हिंदी नाट्य-वाङमयाक नवें स्वरूप मेळोवन दिलें, समाजीक पुराणीक, इतिहासीक, राजकीय अशीं सगळ्या प्रकारचीं नाटकां ताणें बरयलीं. ताच्या नाटकांनी गद्य भास खडी बोली आसून पद्य भास ब्रज आसा. भारतीय आनी अस्तंती नाट्य परंपरांचो संगम ताच्या नाटकांनी दिसता. 'नाटक' ह्या नांवाचो एक निबंदूय ताणें बरयला. नाटक हें लोकांकडेन संपर्क सादपाचें प्रभावी माध्यम आशिल्ल्यान आनी भारतेन्दु स्वता एक नाटकाकार आसलो देखून नाटक हो भारतेन्दुचो आवडटो विशय आशिल्लो.

पिरायेच्या फकत पस्तिसाव्या वर्सा भारतेन्दुक मरण आयलें. तेखातीर ताणें आपल्या अल्पायुश्यांत साहित्य क्षेत्रांत जें म्हान कार्य केलें, तें दैवी शक्तीचे प्रेरणेनूच ताका शक्य जालें, अशें मानतात. ताणें बरयल्लीं कांय नामनेचीं नाटकां अशीं आसात- 'विद्या-सुन्दर' (१८६८), 'पाखंड विडंबन' (१८७२), 'धनंजय विजय' आनी 'वैदिकी हिंसा हिंसा न भवति (१८७३), 'सत्य हरिश्चंद्र' (१८७५), 'कर्पूर-मंजरी' (१८७५), 'विषस्य-विषमौषद्यम्' (१८७६), 'श्री चंद्रावली' (१८७६), 'भारत-जननी' (१८७७), 'मुद्राराक्षस' (१८७८), 'भारतदुर्दशा' (१८८०), 'दुर्लभ-बंधु' (१८८०), 'नीलदेवी' (१८८१) 'अंधेर नगरी' (१८८१- प्रहसन).

ताची हेर बरपावळ अशी आसा : **नवलकथा :** पूर्ण प्रकाश और चंद्रप्रभा, 'हिंदी भाषा', नाट्य-शास्त्र, इतिहास-पुरातत्त्व, रामायण का समय, अग्रवालों की उत्पत्ति, खाप्रियों की उत्पत्ति, बादशाह दर्पण, बूँदी का राजवश, उदय पुरोदय, पुरावृत्त संग्रह, चरितावली, पंच पवित्रात्मा, दिल्ली दरबार दर्पण, कालचक्र.

जैन कुतूहल (१८७३), स्वर्गवासी श्रीअलवरत वर्णन (१८६१), श्री राजकुमार सुस्वागत पत्र (१८६९), मुँह - दिखावनी (१८७४), श्री राजकुमार शुभा-गमन वर्णन (१८७५), भारत-शिक्षा (१८७५), मानसोपायन (१८७५), हिन्दी की उन्नीत पर व्याख्यान (१८७७), मनोमुकुलमाला (१८७७), भारत-वीरत्व (१८७८), विजय-वल्लरी (१८८१), विजयिनी-विजयपताका या वैजयन्ती (१८८२), नये जमाने की मुकरी (१८८४), जातीय संगीत (१८८४), रिपनाष्टक (१८८४).

भारतेन्दु एक बऱ्यांतलो बरो कवी आशिल्लो. ताच्यो सुमार ६९ ल्हान-व्हड कविता उपलब्ध आसात. हातूंत अणकारीत केल्लोय कविता आसात. ताणें शृंगार, भक्ती, दिव्य प्रेम हेविशीं कविता बरयल्यो तशोच राजभक्ती, देशभक्ती, भावोन्नती आनी समाज सुदारणेविशींय कविता बरयल्लो. व्यंग आनी हास्य काव्यूय ताणें बरयलें. चडशी कविता ताणें ब्रज भाशेंत बरयली. ताणें खडी बोलींत बरयल्लो काव्यांझेलो 'फुलों का गुच्छा' (१८८२) ह्या नांवान प्रसिध्द आसा.

ताच्या दिव्य प्रेमाविशीं बरयल्ले म्हत्वाचे काव्यांझेले अशे आसात-

प्रेम मालिका (१८७१), प्रेम-सरोवर (१८७३), प्रेमाश्रु-वर्षण (१८७३), प्रेम-माधुरी (१८७५), होली (१८७९), मधु मुकुल, वर्षा विनोद (१८८०), विनय-प्रेम-प्रचारसा (१८८०), प्रेम-फुलवारी (१८८३), कृष्ण चरित्र (१८८३).

ताची हेर काव्य-रचणूक अशी आसा. भक्ति सर्वस्व (१८७०), कार्तिक स्नान (१८७२), वैशाख माहात्म्य (१८७२), देवी छद्म लीला (१८७३), प्रातः स्मरण मंगलपाठ (१८७३), तन्मय लीला (१८७४), दान-लीला (१८७४), रानी छद्म लीला (१८७४), प्रबोधिनी (१८७४), स्वरुप चिंतन (१८७४), श्रीपंचमी (१८७५), श्रीनाथ स्तुति (१८७७), अपवर्गदाष्टक (१८७७), अपवर्ग पंचक (१८७७), प्रातः स्मरण स्त्रोत (१८७७), वैष्णव सर्वस्व, वल्लभीय सर्वस्व, तदीय सर्वस्व, भक्ति सूत्र वैजयन्ती, उत्तरार्ध भक्त माल (१८७६-७७), गीत गोविंदानंद (१८७७-७८), सतसई शृंगार (१८७५-७८).

भारतेन्दु एक बरो निबंदकार आनी पत्रकार आशिल्लो. हरिश्चंद्र मॅगेजिन, कवि वचनसुधा, बाला बोधिनी, हरिश्चंद्र चंद्रिका ह्या ताणेंच संपादीत केल्ल्या नेमाळ्यांनी ताचे निबंद, टिपणां उजवाडा येतालीं. ह्या ताच्या निबंदांतल्यान ताची समाजाचे उदरगतीची तळमळ तशेंच समाजीक, धर्मीक आनी राजकीय घडणुकांविशींची जागरूकताय समजता. तशेंच, ताच्या काव्यांत आपलो देश, भाशा आनी समाज हांचेविशीं अभिमान दिश्टी पडटा.

उर्दु भाशेंत, भारतेन्दु 'रसा' ह्या टोपण नांवान कविता बरयतालो. धर्मीक आनी शृंगारीक काव्यांत देशप्रेम, समाजस्थिती. सुदारणा, राजकीय परिस्थितीचेर उपहास हे विशय हाडून ताणें हिंदी साहित्यांत आर्विल्ले विचार हाडले. हिंदी गद्याक चड वेवस्थीत, शुध्द आनी बळिश्ट करपाचो ताणें खूब यत्न केलो.

भारतेन्दुच्या मोवाळ आनी शालीन व्यक्तिमत्वाक लागून ताचे भोंवतणीं विद्वान, जाणकार,ध्येयवादी पत्रकार, इश्ट, बरें मागपी एकठांय आयले. ह्या तांच्या पंगडाक 'भारतेन्दु मंडळ' म्हण्टात. ह्या पंगडांतले बालकृष्ण भट्ट, बदरीनारायण चौधरी- 'प्रेमघन', प्रतापनारायण मिश्र, राधाचरण गोस्वामी, लाला श्रीनिवास दास, अंबिकादत्त व्यास, बाल मुकुंद गुप्त, ठाकूर जगमोहनसिंह ह्या लेखक पत्रकारांनी भारतेन्दुचें कार्य चालूच दवरलें. तेखातीर १८५०-१९०० हो काळ हिंदी साहित्यांत 'भारतेन्दु काळ' म्हणून वळखतात.

- डॉ. चंद्रलेखा डिसोझा

## भारवी : (इ.स.चो ६वो शेंकडो).

'किरातार्जुनीय' हें संस्कृत महाकाव्य रचपी महाकवी. भारवीचें विश्वसनीय अशें चरित्र उपलब्ध ना. ताणें तें खंयच दिवंक ना. आपल्या किरातार्जुनीय महाकाव्यांत आपलो उल्लेख करूंक ना. ऐहोळेक मेळिल्ल्या ६३४ वर्साच्या एका शिलालेखांत कालिदासावांगडा भारवीचो उल्लेख आयला. भारवी ५५० सालाच्या सुमाराक जावन गेलो अशें ए. बी. कीथ ह्या विद्वानाचें मत आसा. दंडी हो भारवीचो नातू. इ. स. १९२४ त दक्षिण भारतांत दंडीच्या 'अवंतिसुंदरीकथासार' आनी 'अवंतिसुंदरीकथा' ह्या दोन कथांचो सोद लागलो आनी तातूंत भारवीची म्हायती मेळ्ळी ती अशी :

भारताच्या वायव्य प्रदेशांत आनंदपूर नांवाचें एक नगर आशिल्लें. थंयचें एक कौशिकगोत्री कुटूंब नासिक देशांत अचलपूर ह्या गांवांत आयलें. ह्याच कुटुंबांतल्या नारायणस्वामी नांवाच्या ब्राह्मणाक दामोदर नांवाचो पूत आशिल्लो. तोच फुडें भारवी ह्या नांवान नामनेक पावलो. थंय आसतना थंयच्या विष्णुवर्धन राजाकडेन भारवीची इश्टागत जाली. एक दीस राजावांगडा शिकारेक गेल्लो आसतना ताका मांस खावचें पडलें. पूण आपल्याकडल्यान अभक्ष्य भक्षणाचें पातक घडलें देखून तो सरळ तीर्थयात्रेक गेलो. वाटेंत गंगराज घराण्यांतल्या दुर्विनीत राजाकडेन ताची वळख जाली आनी कांय काळ तो थंय रावलो. थंय ताणें कांची नगरींतल्या सिंहविष्णू नांवाच्या पल्लव राजाची तोखणाय करून एक आर्या बरयली. ती एका गायकाक मेळ्ळी. ताणें ती सिंहविष्णूच्या दरबारांत गावन दाखयली. ती आयकून राजा खूश जालो. राजान भारवीचो पत्तो काडलो आनी दुर्विनीत राजाकडल्यान ताका आपल्या दरबारांत हाडलो आनी राजकवी म्हणून दवरलो.

किरातार्जुनीय हें एकूच म्हाकाव्य बरोवन भारवी महाकवी म्हणून अजरंवर थारलो. भारवीचें हें काव्य अर्थगौरवाखातीर नामनेक पावलां. थोड्याच उतरांनी खूब अर्थ सांगप म्हळ्यार अर्थगौरव. भारवीच्या काव्याचो अर्थ कळप खूब कठीण आसता अशें मल्लिनाथान लेगीत म्हळां.

साहित्य, व्याकरण, वेदान्त, न्याय, धर्म, काम ह्या शास्त्रांचें भारवीन अध्ययन केल्लें. राजनितिंतूय तो खूब हुशार आशिल्लो. हे विशीं ताचो एक श्लोक आसा तो असोः

*बलवानपि कोपजन्मनस्तमसो नाभिभवं रुणाद्धि यः ।*
*क्षयपक्ष इवैन्दवीः कलाः सकला हन्ति स शक्तिसम्पदः ।।*

**अर्थ :** बळिश्ट दादल्याक लेगीत दुस्मानाचेर जैत जोडटलो जाल्यार पयलीं आपल्या रागाचेर जैत जोडचें पडटा. ताणें खोलायेन विचार करून प्रभुशक्त, मंत्रशक्त आनी उत्साहशक्त एकठांवची पडटा. जो अशें करचोना, ताका कृष्ण पक्षांतल्या चंद्राक जशो ताच्यो कला सोडून वतात, तशोच ह्यो तिनूय शक्ती सोडून वतल्यो.

इहलोकीचें सूख, राज्याची थिराय, राज्य आनी वैभव हांचेखातीर आचरणाचो प्रयत्नवाद ह्यो ऐहिक गजाली भारवीक आवडटाल्यो. मोक्षाखातीर, फकत आत्म्याच्या कल्याणाखातीर हें सगळें सोडपाक तो तयार नाशिल्लो.

संस्कृत म्हाकाव्यांभितर भारवीन एके नवे शैलीक आनी एके नवे प्रवृत्तीक जल्म दिलो अशें म्हण्टात.

- कों. वि.सं. मं.

**भारूड :** *लोकगितांचो एक प्रकार. तशेंच अध्यात्मिक आनी नितीक शिकवण दिवपी मराठींतलें रुपकात्मक नाट्यगीत.*

भारूड ह्या उतराची उत्पत्ती कशी जाली हें कळपाक कठीण. पूण बहुरुड गीत म्हळयार भारूड अशें पांगारकर हाचें मत जाल्यार, आतूंत गूढ उकतें जालां तें भारूड अशें विनोबा भावे म्हण्टा. प्रा. नांदापूरकर म्हण्टा, भारूड ह्या दोन तोंडांच्या पक्षावयल्यान, दोन अर्थांचें गीत तें भारूड. वेव्हारांत, भारुडाचो अर्थ वाज हाडपी वा अर्थ नाशिल्ली बडबड असो जाता.

सादी, सोंपी भास आनी तत्त्वज्ञान भारुडांत आसता. भारुडां हीं जरी लोकशिक्षणाखातीर रचिल्लीं आसलीं तरी किर्तनांत, भजनांत तीं उणींच वापरप जातात. भारुडां हीं रुपकात्मक आसतात. संतांनी भारुडांतल्यानूच सदाचार आनी निती हांचेर भर दिवन, रत्ताचो अध्यात्मीक अणभव मांडला. ज्ञानदेव, नामदेव, एकनाथ, तुकाराम, रामदास ह्या संतांनी भारुडां रचल्यांत. पूण एकनाथाचीं भारुडां चड नामनेक पावल्यांत. कारण तांच्या भारुडांत विंगड विंगड प्रकार, नाट्य, विनोद आनी गेयता आसता. ताणें सवायशें विशयांचेर सुमार अडेज तीनशें भारुडां रचल्यांत. तातूंत जोहार, गोंधळ, गारुडी, हौर, पाईक हीं व्हड प्रकरणां आसात. तशेंच, जोशी, कुड्डो, पांगळो, भेड्डो, मोनो, वासुदेव ह्यो व्यक्ती तातूंत आसात. दांतें, दळण-कांडण, घाणो, भूत ह्यो संवसारीक गजाली; सुणो, बैल, पोपट, विंचू, सोरोप हे प्राणी; हुतूतू, कोंयडो बाल, भोंवरो, फुगडी हे खेळ तशेंच व्हंकल-न्हवरो, फकाणां असले लोकरंजनात्मक विशय तातूंत आस्पावतात. देवांचेर बरयल्ल्या भारुडांनी महालक्ष्मी, गोंदळ हे विशय येतात. एकनाथाचीं गोंदळ ह्या विशयाचेरूच बारा भारुडां आसात.

लोकांचो उध्दार जावंचो, सगळे लोक शाणे जावन, जें आपल्याक अणभवपाक मेळळें ताचो लाव दुसऱ्यांकूय जावंचो, ह्या सात्विक विचारांतल्यान भारुडांचो जल्म जालो आसूं येता.

- कों. वि. सं. म

**भालेकर, गुलाब शंकर :** (जल्म : १ जुलय १९३० हवेली, पुणें).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी मुळाव्या पांवड्या मेरेन शिक्षण घेतलें. तो जनसंघाचो वांगडी आसलो. अण्णासाहेब कवडी हाच्या फुडारपणाखाल न्हंयबाग पेडणें हांगा २५ जून १९५५ ह्या दिसा जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. २० मे १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**भावकाई :** कोंकणांतली एक ग्रामदेवता. हे देवतेचें प्रतीक म्हणून एक अर्द वाटकुळो फातर मांडटात. हे देवतेचे पुजारी गावडे लोक आसतात. देवतेक कोंबे-बोकडे बळी दितात.

श्रावण आनी मार्गशीर्ष म्हयन्यांतल्या शुध्द पाडव्याक हे देवतेक लोक आपापल्या घरा म्हानिवेद्य दाखयतात. हो निवेद्य गावड्याक मेळटा. हे देवीक शुद्र वा ओंवळी आसा अशें मानतात. कारण हे देवतेच्या शेजराक शुद्र लोकांची मसंड आसता. कांय लोक हे देवीक आंगवण करतात. केन्नाकेन्नाय तिका सोन्याचोय निवेद्य दाखयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**भावगीत :** एक काव्यप्रकार. काव्याशयाच्या आंगान कविची आत्मनिश्ठा आनी भावोत्कटताय तशेंच अभिव्यक्तिच्या आंगान गेयता वा लयबद्धताय हीं ह्या काव्य प्रकाराचीं मुखेल लक्षणां मानप जातात. मराठी काव्याच्या मळार रविकिरण मंडळान इंग्लीशींतल्या 'लिरिक' ह्या प्रकाराक भावगीत ही संज्ञा दिल्या. तरीपूण सद्या भावकविता हें नांव चड प्रचलीत आसा. ग्रीकांनी महाकाव्यावरी कथात्मक कविता आनी नाटकांत येवजिल्ली कविता हांचेपसून 'लिरिक' हो प्रकार वेगळो काडिल्लो. इंग्लिशींत ह्या प्रकारावांगडाच विचारीक, वर्णनात्मक, उपहासात्मक, दीर्घ कविता हेय प्रकार आसात. हातूंत लिरीकाची व्याप्ती खुबूच मोटी आसून तातूंत वेगवेगळे प्रकार आसात. देखीकः सुनीत (सॉनॅट) विलापिका (एलॅजी), ओड (उद्देशिका), अंत्ययात्रागीत (डर्ज). हाकाचलागून भावगीत हो प्रकार व्यापक आनी लवचीक थारता.

इंग्लीशींतले भावगितांचे कांय प्रकार मराठींतूय आयल्यात. विष्णू मोरेश्वर महाजनी हाणें इंग्लीशींतल्या भावकवितांचो मराठींत अणकार केला. केशवसुताचे अर्विल्ले कवितेक इंग्लीश लिरिकान उर्बा दिल्ली दिश्टी पडटा. उपरांत केशवसुताचो काळ, तांचेर रविकिरण मंडळाचो काळ, नवकवितेचो काळ अशा वेगवेगळ्या पांवड्यांचेर व्हड प्रमाणांत भावकविता निर्माण जाली आनी ह्या प्रकाराचीं वेगवेगळीं रुपां आनी परिणामां तिच्यांत प्रतिबिंबीत जालीं.

नवकवितेचो उदेंत जावचें आदीं भावना हें भावकवितेचें केंद्र मानपाची प्रथा आशिल्ली. करालीय भाववृत्ती वा मानसिक अवस्था ही भावकवितेच्या केंद्र स्थानार आसूंक शकता. तेचपरी कसलोय विचार वा तो विकसीत

जावपाची क्रिया लेगीत तातूंत येवंक शकता. पूण तो विचार मात फकत तत्वीक उरनासतना कवीच्या आंतरीक जिवीताचो एक अंगभूत घटक जावन येवंचो पडटा. एके बरे कवितेंत भावना आनी विचार हे एकरूप आसतातूच. तेचपरी त्या दोगांमदलो संघर्श वा भावनेंतलो तशेंच विचारांतलो अंतर्गत संघर्श हातूंतल्यानूय कविता निर्माण जाता. पूण हें सगळें कवीच्या व्यक्तिमत्वाकडेन खरपणान जोडिल्लें आसूंक जाय. ताका लागून आत्मविश्कार हें भावकवितेचें मुखेल लक्षण मानतात. हो आत्मविश्कार कवीच्या वैयक्तीक अणभवांचें भावनांचें तशेंच विचारांचें चित्रण आनी प्रथमपुरुशी लिखाण हांचेपुरतें मर्यादीत आसना जाल्यार तें पुरायपणान कल्पीत प्रसंग, फाटभूंय वा हेर मनीस हांचेवरवीं उक्तें जाता. कारण कवीचें व्यक्तिमत्व हें भोवपदरी आसूंक शकता आनी प्रतिभेच्या बळग्यान तो विरोधी प्रकृतीच्या मनशाकडेन संवाद सादूंक शकता. हें नाट्यगीतासारक्या प्रकारांत चड करून घडटना दिसता.

भावकवितेचे जायते प्रकार आसूंक शकतात. तातूंतले कांय आशयाचे जाल्यार कांय रचणुकेच्या खाशेलपणांतल्यान सिध्द जाल्यात. कांय खेपे हलके फुलके भावनेपसून ते आध्यात्मामेरेन भावकवितेच्या आशयाची व्याप्ती जांव येता. त्या त्या काळांतले जिणे वयली टिका, उपहास, उपरोध हांचोय तातूंत कांय खेपे आस्पाव आसता. हेर काव्य-प्रकारांनी बऱ्या कवितेच्या गाभ्याकडेन भावकविताच आसता.

**भावगीत गायन** : परंपरीक भावकवितेचें गेयता हें मुखेल लक्षण मानलां. महाराष्ट्रांतल्या भावगीत गायनाक सुमार पन्नास वर्सांची परंपरा आसा. भावगीत हें वाचपापरस वा म्हणपापरस तें गायल्यार चड बरें दिसतलें अशें दिसलें. ह्याच काळांत ध्वनीमुद्रकाचो प्रसार जावंक लागिल्लो. अशे स्थितींत जे. एल्. रानडे, जी. एन्. जोशी, लीला लिमये हांणी रागसंगीत सोडिनासतना कविता चालीर म्हणूंक तेचपरी काव्य म्हणून ती भावस्पर्शी उरतली हाची जाण दवरली, आनी अशे तरेन भावपदाचो उगम जालो. दत्त कवी हो आपल्यो कविता वाद्याचे साथीर गायतालो असो उल्लेख मेळटा. उपरांतच्या काळांत भावगीत गायनाच्या मळार जायते गायक मुखार आयले. हातूंत संजीवनी मराठे, सोपानदेव चौधरी, गजानन वाटवे, बबनराव नावडीकर, गोविंद कुरवाळीकर, अशोक जोगळेकर, राम पेठे, विश्वास काळे, दत्ता वाळवेकर, माणिक वर्मा, ज्योत्स्ना भोळे, मालती पांडे हाचो उल्लेख म्हत्वाचो. भावगीत गायनाक ह्या काळांत बरोच नेट आयिल्लो. ह्याच सुमाराक सुधीर फडके हाणें संगीत दिग्दर्शक आनी भावगीत गायक म्हणून सुमाराभायर नामना मेळयली. ताणें काव्यावांगडाच रागसंगिताच्या मळारूय नवे नवे सोद लायले. केशवराव भोळे हाणें भावगितांक चाली दिवन तेचपरी मैफलींत काव्यगायन करून ह्या प्रकाराक नामना मेळोवन दिली. वेगवेगळ्यो चाली, वाद्यांच्या ध्वनींतले वेगवेगळे प्रकार तेचपरी प्रसारण माध्यमाचो भरपूर आदार मेळिल्ल्यान भावगितांक १९५०-५५ ह्या काळांत सुमाराभायर नामना मेळ्ळी. सद्याच्या काळांत लता मंगेशकर, आशा भोसले, उषा मंगेशकार, हृदयानाथ मंगेशकार, सुमन कल्याणपूर, अरूण दाते, अनुराधा पौडवाल, सुरेश वाडकर आदी जायत्या गायकांनी भावगीत गायनाचे परंपरेंत भर घाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**भावसार** : एक क्षत्रिय जात. दक्षिण गुजरात आनी महाराष्ट्रांत ह्या लोकांची वसती आसा.

हे जातींत रेवाकांठी, रामदेशी आनी तळवदा अशो तीन मुखेल उपजाती आसात. भट्टे, चौहान, गोहील, परमार, राठोड अशीं आडनांवां आशिल्ले हे जातींत चडशे·लोक वेपारी आसात. हे जातींत जैन लोकूय आसात. गुजराती भावसार आनी मराठा भावसार अशे भेदूय तांचेमदीं आसात.

बालाजी, अंबाजी आनी हिंगलाज ह्या देवांक ते मानतात. व्रतां, उपास करून वर्साच्यो सगळ्यो परबो ते लोक मनयतात. सगळे धर्मीक विधी ते पुरयत ब्राह्मणाकडल्या करून घेतात.

गुजराती भावसार लोकांभितर न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेक मागणी घालता. व्हंकलेचो बापूय आपल्याक जमता तसो हुंडो दिता. विधवेक लग्न जावपाक मान्यताय आसा. ती चड करून आपल्या देराकडेन लग्न जाता. तशेंच, तांचेभितर आतेमामे भावंडांचीं लग्नां जायनात. पयली बायल आसतना वा ती मेले उपरांतूय मेवणेकडेन लग्न जावपाक मेळटा.

मराठा भावसार ह्या लोकांची लग्नाची पद्दत मातशी वेगळी आसता. हे मुळचे अहमदनगर भागांतले. उपरांत ते प्रदेशभर पातळळे. बनछोड, लाले, मोडगरे, पारपती अशीं हांचीं आडनांवां आसात.

मराठा भावसार हे लोक मराठी भास उलयतात. हे लोक मडीं लासतात मसंडेंत मडें दवरतकच भुतांखेतांखातीर मड्याभोंवतणीं भाकरेचे कुडके उडयतात. उपरांत मडें लासलां त्या जाग्यार मातयेच्या तीन घड्यांनी शीत, दूद-धंय आनी म्होंव भरून दवरतात आनी न्हावन घरा येतात. धाव्या दिसा पींड दितात.

जन भावसार ह्या लोकांभितर बशिल्ले अवस्थेंत उदेंतेकडेन तोंड करून मडें पुरपाची चाल आसा.

पातळाचेर खडी काडप, कपडे रंगोवप, गांवांनी भोंवन कपडे विकप, शिंवप असले धंदे हे लोक करतात. ह्या धंद्यांक लागून छिपा, शिंपी, रंगारी, दर्जी, चिप्पिगा अशीं आडनांवां तांकां पडल्यांत. तशेंच मिठाय करप, आयदनां विकप हेय वेवसाय ते लोक करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**भावार्थ रामायण :** संत एकनाथान बरयल्लें मराठींतलें ओवीबध्द रामायण. हातूंत सात कांडां, २९७ अध्याय आनी सुमार ४०,००० ओवयो आसात. हो पुराय ग्रंथ एकनाथान बरोवंक ना. युध्दकांडाचे ४४ अध्याय जातकच नाथाचें निर्वाण जालें आनी उरिल्लो भाग ताचो शिश्य गावबा हाणें पुराय केलो, अशें श्री पांगारकर हाचें म्हणणें आसा. श्री. ज.स. करंदीकर हाणें म्हळां, नाथान निर्वाणापयलीं युध्दकांड पुराय केल्लें आनी उत्तरकांड ही गावबाची कृती.

एकनाथाच्या सगळ्या ग्रंथांनी भावार्थ रामायण हो ताचो सगळयांत व्हडलो आनी निमाणो ग्रंथ आसून तातूंत एकनाथाचे विद्वत्तेचें आनी कवित्वाचें सोबीत दर्शन घडटा. हातूंत भक्तीरसाक प्राधान्य आसलें तरी वीर आनी करूण ह्या रसांचोय आस्पाव आसा. नाथान फकत आपल्या कवित्वाची अभिव्यक्ती करपाखातीर वा नामना जोडपाखातीर हें रामायण बरोवंक ना. प्रभू रामान हें रामायण बरोवपाखातीर आपल्याक प्रेरणा दिली, अशें ताणें ह्या ग्रंथांतूच म्हळां.

एकनाथान ह्या सगळया ग्रंथांत भक्तीप्रधान अद्वैत नदर खंयच उणी जावंक दिवंक ना. नामाचो महिमा, भक्तीचें माहात्म्य, सगळयांविशीं एकचाराची भावना ह्या तत्त्वांची विस्कटावणी ताणें फावो त्या सुवातींनी केल्या. युध्दकांडाच्या एकसठाव्या अध्यायाचें दुसरें अर्द आनी फुडलो बासठावो अध्याय हातूंत वेदान्ताची विस्कटावणी मेळटा. रामायणकथा ही इतिहासीक नासली तरी ते कथेंत एकनाथान वेगवेगळया सुवातींनी अध्यात्मरुपकां रचल्यांत. रामकथेचेरूय ताणें दीर्घ रुपक बरयलां.

सादी, सोंपी रसाळ भास हो नाथाच्या कवित्वाचो खाशेलो गूण ह्या रामायणांत दिश्टी पडटा. प्रसाद आनी भक्तीप्रेम हेय गूण व्हड प्रमाणांत दिसतात. मूळ वाल्मिकी रामायणांत नाशिल्ल्यो कितल्योशोच कथा एकनाथान वेगवेगळया ग्रंथांचो आदार घेवन भावर्थ रामायणांत आस्पावल्यात.

३०० वर्सांचे मुसलमानी राजवटीक लागून भारतीय संस्कृतायेक वेर गेल्ली. हिंदू समाजांत भंय, अज्ञान आनी निर्शेल्लेंपण पातळिल्लें. अधोगतीच्या मार्गान निसरत वचपी ह्या समाजाक नितीधैर्य दिवन प्रेरीत करपाची उपाट गरज आशिल्ली. आपल्या 'भावार्थ सामायण' ग्रंथांत प्रभू रामाचो आदर्श घालून एकनाथान त्या काळांत खिळखिळया जाल्ल्या समाजांत आत्मविश्वास हाडलो.

- कों. वि. सं. मं.

**भावीण :** (पळेयात देवदासी).

**भावे, पुरुषोत्तम भास्कर :** (जल्म : १२ एप्रिल १९१०, धुळे; मरण : १३ ऑगस्ट १९८०, मुंबय).

मराठींतलो एक अश्टतासांचो आनी प्रतिभासंपन्न लेखक. ताणें कथा, कादंबरी, नाटक, ललीत गद्य, व्यक्तिचित्र, चिंतनात्मक लेख, चल चित्रकथा, भोंवडेवर्णन आदी वेगवेगळे साहित्य प्रकार यशस्वीपणान केळयल्यात. ताचें भुरगेंपण विदर्भांत गेलें, जाल्यार नागपूराक ताच्या व्यक्तिमत्वाचो पुराय विकास जालो. वाचनाची ताका सुमाराभायर आवड आशिल्ली. पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा ताणें 'ओम फस' ही कथा बरयली आनी आपले बरपावळीक सुरवात केली. किर्लोस्कर खबर हातूंत (जुलय १९३१) ताची 'फुकट' ही कथा उजवाडाक आयली. पूण ताचे बरपावळीचो खरो प्रभाव दिसलो तो ताचे दिसाळयांतले बरपावळीन. नागपूरच्या 'सावधान' ह्या सातोळयांत येवपी ताच्या लेखांक भाशिक सोबीतकायेक लागून आनी तेजस्वीपणाक लागून ताका खुबूच नामना मेळळी. पुराय मराठी साहित्यांत ताचो एक आगळोवेगळो असो लेखसंग्रह म्हळ्यार 'रक्त आणि अश्रू' (१९४२). ताच्या जायत्या लेखसंग्रहांची नामना आसा. तातूंतले कांय अशेः 'वागनखे' (१९६१), 'विठ्ठला पांडुरंगा' (१९७३), 'अमरवेल' (१९७४), 'रांगोळी'(१९७६). 'स्मरणी' (१९७४) ह्या ताणें बरयल्ल्या व्यक्तिचित्रांच्या संग्रहाचीय नामना आसा.

मराठी नवकथेचो एक प्रवर्तक म्हणून ताचें नांव घेतात. ताच्यो कांय नामनेच्यो कथा अशो : सतरावे वर्ष, सीमेवर, सावल्या, स्वप्न, ध्यास, मुक्ती, रूप, प्रतारणा, पुतळा, नौका आदी. भारताचे फाळणेचे फाटभुंयेचेर बरयल्ल्या ताच्या 'नौका' ह्या कथाझेल्यांतल्या कथांनी पुराय मराठी कथेमळार नामना मेळयल्या. करूणरसा भाशेनूच हास्यरसाचेंय दर्शन तो तितल्याच प्रभावीपणान घडयता. 'आइसक्रिम' ही ताची विनोदी कथा ते नदरेन उल्लेख करपासारकी आसा. ताचे वट्ट सत्तावीस कथांझेले उजवाडाक आयल्यात. 'अकुलिना' (१९५०) आनी 'वर्षाव' (१९५५) ह्या सारक्या कादंबऱ्यांवरवीं तो बायलांचे व्यथेचें नाजूकसाणीन वर्णन करता. जाल्यार 'आग' (१९६१), 'रोहिणी' (१९६२), 'पिंजरा' (१९६४), 'मागं वळून' (१९६६), 'सायंकाळ' (१९६८), 'व्याध' (१९६९) आदी कादंबऱ्यांतल्यान मानवी विकार विलासिताचें आनी नियतीच्या प्रभावाचें बेस बरें चित्रण करता. ताच्यो वट्ट एकुणीस कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात.

नाटककार म्हणनूय ताका नामना मेळळया. 'विषकन्या' (१९४३) 'स्वामिनी' (१९५६), 'महाराणी पद्मीनी' (१९७१) हीं ताचीं नामनेचीं नाटकां. 'सौभाग्य' आनी 'माझा होशील का?' ह्या चित्रपटाच्यो कथा ताणें बरयल्यात. 'उत्तर दिग्विजय' (१९६४-६५) आनी 'चितोड यात्रा' (१९६८-६९) ह्या ताच्या भोंवडे वर्णनांचीय नामना आसा. 'प्रथमपुरुषी एकवचनी' (१९८०) ही ताची आपजिणूय उजवाडाक आयिल्ली आसा.

अहमदनगरांत १९६४ वर्सा भरिल्ल्या मराठी नाट्य संमेलनाचें अध्यक्षपद ताका मेळिल्लें. तशेंच, १९७७ त पुण्यांत जाल्ल्या अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्षपदारूय ताची निवड जाल्ली. तो एक बेस बरो उलोवपीय आशिल्लो.

भावे सनातन भारतीय संस्कृतीचो आनी जीवनमुल्यांचो समर्थक आशिल्लो हें ताच्या साहित्यांतल्यान कळटा. तो हिंदूत्वानिश्ठ आशिल्लो. स्वातंत्र्यवीर सावरकर हें ताचें प्रेरणास्थान आशिल्लें. हिंदू हीतविरोधी आचार विचार ताका सोंसनासले. तशेंच हिंदू समाजाच्या एकचाराक बादा येवपी जातीभेदासारक्या गजालींचेर ताचो विरोध आसलो. ताचे विचार सरणीचें मुल्यमापन केल्यार अशें दिसता, तो हिंदूत्वनिश्ठ आनी पुरोगामी विचारांचो दिसलो तरी प्रतिगाम्यासारको कर्मठ नाशिल्लो. ताका स्वैराचार माननासलो पूण तो स्वातंत्र्याचो पुरस्कर्तो आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**भावे, विनोबा :** (जल्मः ११ सप्टेंबर १८९५, गागोदे बडौदा; मरण : १५ नोव्हेंबर १९८२ पवनार).

भूदान चळवळीचो प्रवर्तक आनी म्हान गांधीवादी आचार्य. ताच्या बापायचें नांव नरहरी आनी आवयचें नांव रुक्मिणीबाई आशिल्लें. विनाबाचो जल्म चित्पावन ब्राह्मण घराण्यांत जालो. ताचें मूळ घराणें वाईक आशिल्लें. पूण ताचो बापूय नोकरेच्या निमतान बडोद्याक गेलो आनी थंयच विनोबाचें माध्यमिक आनी उच्च शिक्षण जालें.



१९१३ वर्सा तो मॅट्रीकची परिक्षा पास जालो. इंटरमिडिएट परिक्षा दिवपाखातीर १९१६ वर्सा मुंबय वचपाक भायर सरलो. पूण वाटेरूच मुंबयचो मार्ग सोडून काशीक गेलो. थंय विनोबान अध्ययन केलें. लोकमान्य टिळकाचें ताणें मार्गदर्शन घेतलें, आनी अनवाणी पांयांनी ४०० मैल चलून बारीकसाणीन सगळो महाराष्ट्र पळयलो. गांधीजीचें बनारस हिंदू विद्यापिठांतलें दिक्षांतभाशण आयकलें. त्या भाशणाचो विनोबाचेर बरोच प्रभाव पडलो. ७ जून १९१६ दिसा ताणें गांधीजीच्या अहमदाबादच्या कोचरव आश्रमांत प्रवेश घेतलो. मदीं एक वर्स तो गांधीजीचे सांगणेप्रमाण, वाईक स्वामी केवलनंदा म्हयांत वेदांताचें अध्ययन करपाखातीर वचून रावलो. थंय उपनिषदां, गीता, ब्रह्मसुत्रां, शांकरभाष्य, मनुस्मृति आनी पातंजल योगदर्शन ह्या ग्रंथांचो ताणें अभ्यास केलो. तशेंच न्यायसूत्र, वैशेषिक सूत्र, याज्ञवल्क्यस्मृति हे ग्रंथ वाचले. ताणें गीतेचो वर्ग चलयलो. तशेंच विद्यार्थी मंडळाची स्थापणूक केली.

फेब्रुवारी १९१८ त विनोबा वाईसावन परत अहमदाबादेक गेलो. १९२१ वर्सा गांधीजीचो अनुयायी शेठ जमनालाल बजाज हाणें साबरमतीच्या सत्याग्रह आश्रमाचो फांटो वर्ध्याक उक्तो केलो. त्या फांट्याचो संचालक म्हणून गांधीजीन विनोबाक वर्ध्याक धाडलो. ताणें मगनवाडी, बजाजवाडी, महिलाश्रम, सेवाग्राम आनी पवनाराक आपलें सेवाकार्य सुरू केलें. हातूंत सात-आठ वरां सूत कांतप, विणप आनी शेतकाम अशीं कामां तो करतालो. १९३० आनी ३२च्या सविनय कायदेभंगाचे चळवळींत ताणें धुळयाक बंदखण भोगली. हे बंदखणींत विनोबान गीतेचर प्रवचनां दिलीं आनी साने गुरुजीन तीं बरोवन काडलीं. सादे-सोंपे भाशेंत 'गीताई' ह्या नांवान ताणें गीतेचो मराठींत अणकार केलो.

१९४० वर्सा महात्मा गांधीन स्वराज्याखातीर वैयक्तीत सत्याग्रहाचें आंदोलन केलें. तेन्ना पयलो सत्याग्रही म्हणून गांधीजीन विनोबाक वेंचून काडलो. ह्या सत्याग्रहांत ताका तीन म्हयने बंदखण भोगची पडली.

१९५१ वर्सा सशस्त्र क्रांतिवादी कम्युनिस्टांनी तेलंगणांत जमीनदारांचेर हल्ले केले. सात मार्च १९५१ दिसा आंध्रांतल्या शिवरामपल्ली ह्या गांवांत वचपाखातीर विनोबान सेवाग्रामासावन पदयात्रा सुरू केली. ही पदयात्रा म्हळयार भूदानाचें इतिहासीक आंदोलनूच आशिल्लें. १८ एप्रिल १९५१ दिसा आंध्र प्रदेशांत, पोचमपल्ली गांवांत भूदानाचे कल्पनेचो जल्म जालो. तेन्ना विनोबान देशभर साडे पस्तीस हजार मैलांची पदयात्रा केली. भारताच्या समाजाचें दर्शन घेवन ताच्यो व्यथा जाणून घेतल्यो आनी शांतीचो उपदेश करून पन्नास लाख एकराचें भूदान मेळयलें. ती सगळी जमीन भूमिहिनांक वांटली. साडेतेरा वर्सां ही पदयात्रा करतकच १९६४ वर्सा तो परत सेवाग्रामाक आयलो. १९७० वर्सा पवनार हांगा वचून क्षेत्रसंन्यास घेतिल्ल्याचें विनोबान जाहीर केलें.

८ ऑगस्ट १९७० दिसा 'गीता प्रतिश्ठाना'ची स्थापणूक केली. विनोबाचीं खुबशीं पुस्तकां मराठींत आनी हिंदींत आसात. 'साम्यसूत्र' हें संस्कृतांत आसा. सगळ्या आर्विल्ल्या भारतीय भाशांनी ताच्या पुस्तकाचे अणकार जाल्यात. २०० वयर आशिल्ल्या ताच्या ग्रंथांतलीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां अशीं - **मराठी :** मधुकर, गीताई, गीताप्रवचन, ईशावास्यवृत्ति, स्वराज्यशास्त्र आनी सर्वोदय विचार, लोकनागरी लिपि, गांधी तत्त्वज्ञान, सर्वोदयाची विविध घोषणा, ज्ञानदेव चिंतानिका, भागवत धर्म मीमांसा, स्थितप्रज्ञ-दर्शन, भूदानयज्ञ-समग्र-दर्शन, स्त्री-शक्ती, दीक्षा. **हिंदी :** जपुजी, विनोबाके विचार (३ भाग), जीवन और शिक्षण, शिक्षण विचार, भूदानगंगा (८ भागांनी), ग्रामदान, भूदानयज्ञ, सर्वोदय विचार और स्वराज्यशास्त्र, सर्वोदय की ओर, भाशा का प्रश्न, गावगाव में स्वराज्य, संयम और संतति, प्रेमपूर्ति ईसा, विनोबा चिंतन (४८ भाग), तीसरी शक्ती, नामघोषानवनीत (संपादित), बापू के चरणो में (संपादित) आनी कुरान सार.

**संस्कृतः** ऋग्वेद सार संकलन, साम्यसूत्रां, वेदान्तसुधा (संकलन).

- कों. वि. सं. मं.

**भावे, विष्णुदास :** (जल्म : १९१८; मरण : ९ ऑगस्ट १९०१ सांगली).

मराठी रंगमाचयेचो जनक. ताचें पुराय नांव विष्णु अमृत भावे. सांगली संस्थानाचो अधिपती श्रीमंत चिंतामणराव ऊर्फ आप्पासाहेब पटवर्धन हाचो तो नोकर आशिल्लो.



ताका कथा-कविता बरोवपाचो नाद आशिल्लो. १८४२ त कर्नाटकांतल्यान 'भागवत' नांवाची एक नाटक मंडळी सांगलीक पावली. हे कंपनीचे खेळ पळयतकच तशेच तरेचे नाट्यप्रयोग कांय सुदारणा करून मराठींतल्यान केल्यार तांकां बरो येवकार मेळटलो असो विचार आप्पासायबाच्या मनांत आयलो आनी ताणें हें काम विष्णुदासाचेर सोंपयलें. तेन्ना विष्णुदासान १८४३ त 'सीतास्वयंवर' ह्या स्वताच रचिल्ल्या नाटकाचो यशस्वी प्रयोग करून दाखयलो. रामायणांतल्या विशयांचेर धा नाटकां बरोवन सांगली संस्थानांत सादर केल्ल्या प्रयोगांक बरीच नामना मेळ्ळी.

विष्णुदासाच्या नाट्यप्रयोगाची पद्दत अशी आशिल्ली. सुत्रधाराकडल्यान मंगलाचरण, उपरांत भिल्लभेस धारण केल्ल्या विदुशकाचो प्रवेश, ताचें आनी सुत्रधाराचें विनोदी उलोवप, गणपतीचें आनी सरस्वतीचें स्तवन आनी उपरांत नाटकाची सुरवात. नाटकाचे सुर्वेक सावन अखेरमेरेन सुत्रधाराक काम आसतालें. सादर जावपी नाट्यप्रसंगाचें वर्णन सुत्रधार पद्यांतल्यान करतकच, संबंदीत पात्रां रंगमाचयेचेर येवन आपआपलीं उलोवपां करतालीं. नाटकांतले सगळेच संवाद आदीं बरयल्ले नासताले. नट केन्नाकेन्नाय आपलीं भाशणां थंयचेथंयच बरोवन उलयताले.

ह्या नाटकांत नाच-पदां हांकां बरोच वाव मेळटालो. नाटकांतल्या प्रवेशाक 'कचेरी' हें नांव दिल्लें. फुडें ताणें महाभारतांतल्या कथानकाचेरूय नाटकां बरयलीं. ताच्या नाटकांत मुखेल करून पखवाजाची साथ आसताली. ह्या पखवाजाच्या आवाजावयल्यान ह्या नाटकांक 'ताडथोम' नाटकां अशें म्हण्टाले. तशेंच, तातूंतल्या राक्षसांच्या 'अलल-डूर' हे गर्जनेखातीर तांकां 'अलल्-डूर' नाटकां अशेंय म्हण्टाले. चिंतामणराव पटवर्धनाक मरण येतकच १८५१ त विष्णुदासाक सांगली संस्थानाकडल्यान आदार मेळना जालो, देखून नाट्यप्रयोगाखातीर गांवांगांवांनी ताका दौरे काडचे पडले. नाटकाची पुराय जापसालदारकी ताचेरूच आसताली. १८६१ मेरेन तो नाट्य वेवसायांत आशिल्लो. वेवसायनिवृत्ती उपरांतचे दीस ताणें सांगलीकूच घालयले. थंयच प्लेग येवन ताका मरण आयलें.

ताचीं नाटकां बरींचशीं पद्यमय आशिल्लीं आनी तातूंतले पद्यरचनेचें पुर्विल्ल्या मराठी आख्यान रचनेकडेन लागींचें नातें आशिल्लें. ताणें आपल्या नाटकांखातीर वेगवेगळ्या छंदांनी केल्ल्या पद्यरचनांक 'नाट्याख्यानां' अशेंय म्हण्टात. ताचीं पन्नासांवयर नाट्याख्यानां 'नाट्यकवितासंग्रह' (१८८५) ह्या नांवान नामनेक पावल्यांत. ह्या नाट्याख्यानांक स्वरबद्द करतना विष्णुदासान वेगवेगळ्या रागरागिण्यांचो आनी ताच्या मिश्रणाचो प्रभाविपणान उपेग करून घेतिल्लो. विष्णुदासा उपरांतच्या ५०-६० वर्सांमदीं मराठी पुराणीक नाटकां बरोवप्यांक विष्णुदासान तयार केल्लो पुराणीक नाटकांचो सांचो उपेगी पडलो. इतलेंच न्हय, जाल्यार कांय नाटककारांनी आपल्या नाटकांत विष्णुदासाच्या पदांचोय उपेग केल्ल्याचें दिसता. नाट्यप्रयोगाची एक निश्चीत संकल्पना मुखार दवरून नाटक सादर करपी पयली मंडळी महाराष्ट्रांत विष्णुदासान काडली.

- कों. वि. सं. मं.

**भावे शास्त्री, गोविंद हरी :** (जल्म : २० जुलय १९११, धावें-सत्तरी; मरण : २६ एप्रिल १९७४).

सुटकेझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हें संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९४८ त वाळपय मराठी वाचनालय सुरू करपाचो यत्न केल्ल्यान ताका अटक केली आनी तीन दीस बंदखणींत दवरलो. पिटर आल्वारीश आनी महादेवशास्त्री जोशी ह्या सुटकेझुजाऱ्यां कडल्यान स्फूर्त घेवन २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा तो २५ सत्याग्रहींचो पंगड घेवन धाव्यां गेलो. तेन्ना पुलिसांनी ताका अटक केली. प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून २२ जून १९५५ ह्या दिसा ताका णव वर्सां खर बंदखण, दिसाक १० इश्कूद ह्या प्रमाण दोन वर्सां दंड आनी १५ वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेवपाची ख्यास्त फर्मायली. ताका आल्तिन्यार बंदखणींत दवरिल्लो. थंय ताचे खूब हाल करताले. तो सामको शिवराक आशिल्ल्यान ताच्या तोंडांत बळयां गायचें मांस कोंबताले.

६ ऑगस्ट १९५९ दिसा ताची सुटका जाली. सुटके उपरांत तो परतो राश्ट्रीय वावर करूंक लागलो. लोकांची शिक्षणीक उदरगत जावंची देखून ताणें जायतो वावर केला. आंबेडे नगरगांवांत ताणें 'वेदशास्त्र संवर्धक मंडळ' नांवाची संस्था सुरू केली. ताच्या मरणा उपरांत ताच्या उगडासाक धावें-आंबेडेंच्या रस्त्याक ताचें नांव दिलां. १८ जून १९८५ दिसा गोंय सरकारान ताचो मरणोत्तर भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**भावे, श्रीपाद वामन :** (जल्मः १३ ऑगस्ट १९२२, आंवडें-सत्तरी).

सुटकेझुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटनेचो वांगडी जालो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. तेन्ना पुलिसांनी ताका धरलो आनी स म्हयने खर बंदखणींत दवरलो. सत्तरी वाठारांत लोकांमदीं शिक्षणीक नदरेन समाजीक जागृताय हाडपाचो तो यत्न करतालो. गोंयचे सुटकेखातीर जेन्ना भारतीय सैन्य गोंयांत आयलें, तेन्ना तांकां ताणें आदार दिलो. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों.वि.सं.मं.

**भाशांतर :** (पळेयात अणकार).

**भास** (सनापयलीं चवथो शेंकडो) **:** एक संस्कृत नाटककार. ताचे जिणेविशींची पुराय म्हायती मेळना. भास हें ताचें नांव काय कुळाचें नांव हेंय समजना. ताच्या नाटकांनी उत्तर भारतांतलीं नांवां आनी थंयच्याच चालीरितींचो उल्लेख चड आशिल्ल्यान 'भास' हो उत्तर भारतांतलोच आसूं येता. भासाच्या काळाविशीं विद्वानांचें एकमत ना. कालिदासाच्या मालविकाग्निमित्रन, बाणाच्या हर्षचरित आनी वाक्पतिराजाच्या गउडवहोत भासाचो उल्लेख आयला. कालिदासान भासाचो उल्लेख 'प्रथितयश' असो करून आपल्याक 'नव' हें विशेशण लायिल्ल्यान कालिदासा पयलींच 'भास' हो नाटककार म्हणून नांवाजिल्लो हें दिसता.

एकदां ताचीं सगळीं नाटकां कोणें तरी लासून उडयलीं, पूण उज्यांत उडयल्ल्या सगळ्या नाटकांतलें 'स्वप्नवासवदत्त' मात लासनासतना उरलें. हाचेवयल्यान भासाक 'ज्वलनमित्र' अशी उपाधी मेळ्ळी अशें म्हणटात.

भासान सगळीं मेळून १३ नाटकां बरयलीं. 'भासनाटकचक्र' असो ताच्या नाटकाचो उल्लेख मेळटा. भासान सगळीं मेळून १३ नाटकां बरयलीं. इ. स. १९०९ वर्सा टी. गणपतिशास्त्री ह्या संशोधकाक पद्मनाभपुरम् लागींच्या मनलिक्कर मठांत ताडपत्र्यांचेर मल्याळम् लिपींत बरयल्लें, १०५ पानांचें हातबरप मेळ्ळें. ह्या हातबरपांत १० नाटकां आनी तुटक स्वरुपांतलें एक नाटक अशीं ११ नाटकां आशिल्लीं. फुडें कैलासपुरम्, हरिपाद, चेंगान्नूराक हांगा दोन नवीं नाटकां आनी पयलीं मेळिल्ल्या ११ नाटकांच्यो प्रती अशीं तेरा नाटकां मेळ्ळीं. १९१२ ते १९१५ ह्या काळांत ताणें हीं तेरा नाटकां उजवाडायलीं. तांचीं नांवां अशीं आसात-

१) **स्वप्नवासवदत्त** - हाका स्वप्ननाटक अशेंय म्हण्टात. हें नाटक कौशांबीचो राजा उदयन हाचे कथेचेर आदारून आसा.

२) **प्रतिज्ञायौगंधरायण** - हातुंतूय उदयन हाचीच कथा आसा, पूण स्वप्नवासवदत्त ह्या नाटकांतले कथेचे पयलींची आसा.

३) **पंचरात्र** - महाभारतांतल्या कांय व्यक्तींक धरून ताणें एक कल्पीत कथा ह्या नाटकांत मांडल्या.

४) **दूतघटोत्कच** - भारतीय झुजांत अभिमन्यूचो वध जातकच श्रीकृष्ण घटोत्कचाक दूत करून धृतराष्ट्र आनी दुर्योधन हांचेकडेन धाडटा, अशी कथा हातूंत आयल्या.

५) **अविमारक** - हें नाटक एके लोककथेचेर आदारलां.

६) **बालचरित** - हातूंत श्रीकृष्ण जल्मासावन कंसवधामेरेनची कथा आसा. भागवत पुराणाच्या आदारान हें नाटक बरयलां.

७) **मध्यमव्यायोग** - घटोत्कच नांवाच्या राक्षसापसून भीमान एका ब्राह्मणाच्या पुताक वांचयतकच भीमाची बायल हिडिंबा ताका मेळटा. तेन्ना घटोत्कच हो आपलोच चलो हें भीमाक तिचेकडल्यान कळटा, अशी कथा तातूंत आसा.

८) **कर्णभार** - ब्राह्मणरूप घेवन इंद्र कर्णाकडेन कवचकुंडलां मागतकच कर्ण ताका दिता ही कथा हातूंत आयल्या.

९) **ऊरुभंग** - दुर्योधनाच्या मरणाचेर ही कथा आदारल्या.

१०) **दूतवाक्य** - महाभारतांतले कृष्णशिश्टायेचेर हें नाटक बरयलां.

११) **अभिषेक** - ह्या नाटकांत रामायणांतल्या किष्किंधा, सुंदर आनी युद्ध ह्या कांडांची कथा आसा.

१२) **चारुदत्त** - चारुदत्त आनी वसंतसेनेच्या मोगाचेर ही कथा आसा.

१३) **प्रतिमा** - हातूंत रामवनवासापसून रावणवधामेरेन कथा आसा.

हीं नाटकां भासाचींच आसात हेविशीं जाणकारांमदीं एकमत ना. तशेंच, हीं तेराय नाटकां एकाच मनशान बरयल्यांत अशेंय अभ्यासकांक दिसना.

त्रावणकोर विद्यापिठाचो प्रपाठक डॉ. उन्नी हाका भास नाटकांचीं हातबरपां केरळांत मेळ्ळीं. ताचेवयल्यान ह्या नाटकांचे थंय प्रयोग जाताले अशें दिसता.

भासाच्या नाटकांनी न्हीद, सपनां, झूज, मरण, रातीची भोंवडी, घरां फोडप असले प्रसंग आसात. कंस, दुर्योधन, कैकेयी असल्या खलपात्रांचें चित्रण भासान आपल्या नाटकांत दाखयलां.

भासाच्या नाटकांतले संवाद सादे, सोंपे भाशेंत आसात. मदीं मदीं तो निसर्गाचेरूय चित्रण करता.

भासाच्या नाटकांत बरेच श्लोक दिश्टी पडटात. सुसंस्कृत जिणेविशीं कांय म्हत्वाचे सिद्धांत लेगीत ताच्या नाटकांनी आसात. ताच्या नाटकांत कथाभाग उणो आसत. पूण नाटकाची घडण मात सुव्यवस्थित आसता. भासाचें काव्य सरळ, सोंपें आसता. कालिदासान भासाचे नाट्यनिर्मितीची तोखणाय करची हेंच हातूंत ताचें व्हडपण जाणवता.

- कों. वि. सं. मं.

**भास आनी भासविज्ञान :** ज्या ध्वनिचिन्नांच्या आदारान मनीस एकामेकांकडे विचारांचें दिवप-घेवप करता, संपर्क सादता त्या ध्वनिचिन्नांच्या एकवटीत रुपाक भास म्हण्टात. भास हें उतर 'भाष' ह्या मूळ संस्कृत उतरावयल्यान आयलां. भास ध्वनीरूप आसता. मनीस आपल्या तोंडांतल्यान तरेकवार नाद वा ध्वनी काडूंक शकता. दर एक भास हातूंतले कांय नाद ध्वनी वेंचून काडटा ह्या ध्वनींचे रचणुकेंतल्यान थरावीक अर्थ उकतो जाता.

संवसारांत उण्योच म्हळयार सुमार चार हजार भासो आसात. ह्यो सगळयो भासो लोकांचे जिबेर घोळटात. पूण सगळयोच बरोवपाखातीर उपेगी पडनात. मनशाचे तशेंच भाशेचे जिणेंतूय उलोवप आदीं आनी बरोवप उपरांत येता. देखून उलोवप, भाशेचें मुळावें रूप अशें भासविज्ञान मानता.

मनशाचे उदरगतीच्या इतिहासांत भाशेक मुखेल सुवात आसा. भास हें मनीस-जिणेचें मुळावें आंग. सगळया मोनजातीभितर सैमाचे नदरेन मनीसूच भाशेक पात्र आसा आनी सैमाकडल्यान मेळिल्ली ही भाशिक तांक मनशाभितर आपशीं फळना; तिका समाजान फळोवंची पडटा म्हणपाचें ह्या मळावयलें संशोधन सांगता.

मोनजातींच्या संदेशनाचे तुळेन मनशांलें भाशिक संदेशन खूब आगळें वेगळें.

भास म्हळयार चिन्नांची, कुरवांची वेवस्था. कुरवेक दोन आंगां आसतात. एक आंग संकेतकाचें (Signifier) वा नादांचें आनी दुसरें आंग संकेतिताचें (Signified) वा अर्थाचें. संकेतक आनी संकेतीत हांचेमदीं संकेतीक नातें आसता. देखीक, 'झाड' ह्या नादांच्या पुंजुल्याचो तागेल्या ह्या अर्थाकडेन कसलोच सैमीक संबंद आसना म्हणुनूच हिंदींतलो 'पेड' वा इंग्लिशींतलो 'ट्री' हे वेगळे वेगळे नादां पुंजुले होच अर्थ उक्तायतात. मोनजातींच्या संदेशनांत संकेतक आनी संकेतीत हांचेमदीं चडशें सैमीक नातेंच पळोवंक मेळटा. देखीक, म्हांवा मुसांले नाचाचे 'भाशें'त संकेतक संकेतिताक खूब लागीं आसता. मूस कसो नाचलो - वाटकुळो काय इंग्लीश आठांची आकृती काडून; तो कशे तरेन लकलो ह्या सारकिल्या बारीकसाणींचें गणित मांडून ताच्या नाचाचो अर्थ लावं येता.

मनशांचे भाशेवरी जायत्या मोनजातींच्योय भासो तोंडाचे नाद उपकारायतात. पूण नाद उपकारावपी ह्या दोनूय भाशांमदीं खूब वेगळेंपण आसा. मोनजातींच्या भाशांभितर मेकळया नादाक अर्थ आसता. देखीक, संकश्टाची सुलूस लागतकच गिबन माकड ह्या प्रसंगाखातीर आशिल्ली किळांच उच्चारता. हीच किळांच परतो परतो उच्चारीत रावता. पूण मनशांचे भाशेंत असो मेकळया नादांक अर्थ आसना. नाद जेन्ना एकठांय येतात तेन्नाच अर्थ घडटा. भाशेंत दोन थर आसात. एक अर्थ नाशिल्ल्या नादांचो स्वनिमांचो आनी दुसरो हे अर्थ नाशिल्ले नाद एकठांय येवन घडिल्ल्या अर्थपूर्ण रुपिमांचो.

मोनजातींच्यो भासो चडशो मेकळया नादांच्यो घडिल्ल्यो आशिल्ल्यान तांकां बांदावळ जावं व्याकरण नासता. पूण व्याकरण हें मनशाचे भाशेचें एक मुळावें खाशेलेपण. भाशेच्या सगळया पांवड्यांचेर ध्वनीच्या, उतराच्या आनी वाक्याच्या व्याकरणाची बांदावळ आसता.

मनीस आपली भास आपल्यावांगडा घेवन जल्माक येना. ताका ती शिकची पडटा. पूण मोनजातीक मात तांच्यो भासो सैमाकडल्यानूच मेळिल्ल्यो आसतात. देखून तांकां त्यो शिकलेबगर आपशींच येतात.

भास हो मोनजातीच्या सैमाचो वांटो जाल्ल्यान मोनजातींच्या भाशांक काळाचो भेद लागना. शेंकड्यांनी वर्सांसावन म्होंवामूस एकूच 'भास' नाचत आयला, कावळो एकेच भाशेन गायत आयला आनी गाय एकेच तरेन हांबेत आयल्या. मनशांची भास मात ताच्या समाजावरी एकेकडेन थीर उरूंक ना, ती बदलत गेल्या.

मोनजातींच्या भाशांक सरभोंवतणच्या वाठाराचोच आनी 'आतां'चोच संदर्भ आसता. मनीस मात मुखार आशिल्ल्याच्या संदर्भांत उलोवंक शकता, तितलोच मुखार नाशिल्ल्याच्या संदर्भांत उलोवंक शकता. मनशाक भूतकाळ, भविश्यकाळ आसता. तशेंच मनशाचे भाशेक थळाकाळाचें बंधन नासता.

उलोवप आनी आयकप ह्यो भाशेच्यो दोन कडो आनी भाशीक वेव्हारांतल्यो दोन भुमिका. भाशेचो उलोवपी हो भाशेचो आयकुपीय आसता. म्हणजेच भाशेंत उलोवप्यांच्यो आनी आयकुप्यांच्यो दोन जाती आसनात. एकलोच मनीस ह्यो दोनूय भुमिका करता. उलोवपा - आयकुपाच्या भुमिकांची अदलाबदल करपाचें लक्षण मोनजातींच्या भाशांनी आसून लेगीत ह्यो भासो मनशांचे भाशेलागीं सर करूंक पावनात. संवाद हें मनशांच्या भाशांचें एक मुखेल आंग. मोनजातींच्या भाशांभितर संवाद नासता. मोनजाती कांय थरिल्ल्याच प्रसंगांचेर उलयतात. हे प्रसंग चडशे कुडीच्या गरजांकडेन संबंद आशिल्ले आसतात. मनशांचे भाशेक 'फॅक्ट' लागता, तशेंच 'फिक्शनूय' लागता. भाशेच्या आदारान मनीस आपल्याचो असो खाशेलो संवसार निर्मूंक शकता.

संवसारांतल्या सुमार चार हजार भाशांभितर अमेरिकन इंडियन

भाशांचो आंकडो हजारांवयर वता; आफ्रिकेंतूच सुमार हजारभर भासो आनी न्यू गिनी ह्या सुपल्ल्या जुंव्याचेर सातशांवयर भासो मेळटात. भारतांत देडशांवयर, रशियेंत सुमार एकशें तीस जाल्यार चीनांत कितल्योशो डझन भासो मेळटात. संवसारांतल्यो सगळयो भासो एकेमेके पसून साप्प वेगळयो नात. कांय भाशांभितर सारकेपण आसा जाल्यार कांय भासो एकेमेकेपरस सामक्यो वेगळयो आसात.

भाशिक सारकेपणांतलें अपघाती सारकेंपण आनी उश्णेपणाचें सारकेंपण निवळावन भाशेच्या सगळया पांवड्यांवयल्या फकत निजाच्या, रगताच्या सारकेपणाच्या आदारान भाशांचीं कुळां थरयतात. भाशेकूळ म्हळयार एके मूळ भाशेंतल्यान वयर सरिल्ल्या एका रगताच्या भाशांचो पुंजुलो. एकेच मूळ भाशेंतल्यान वेगवेगळयो सरिल्ल्यो भासो काळा वांगडा एकेमेकेपसून अदीक वेगळयो जातात आनी हातूंतल्यान एका कुळाचीं उपकुळां घडटात. ह्या संवसारांत मुखेल सुमार वीस आनी हेर ल्हान पन्नाशेक भाशे-कुळां आसात अशें सामान्यतायेन मानतात. भाशे-कुळांत आस्पावपाक मेळनात अशा भाशांक 'स्वतंत्र भासो' लेखतात.

भारतीय-युरोपी (संस्कृत, ग्रीकी, लॅटीन, इंग्लीश, रशियन, परशियन ह्या भाशांचें कूळ), ॲफ्रो-एशियाटिक (अरबी, हिब्रू, सिरियॅक ह्या भाशांचें कूळ), सिनो - तिबेटन (ब्रह्मी, तिबेटी, थायलंडी ह्या भासांचें कूळ), द्रविडी (तेलुगू, तमीळ, कन्नड, मलयाळम् ह्या भाशांचें कूळ), ऑस्ट्रोनेशियन (इंडोनेशियन, जावानी, फिजियन, हवायियन ह्या भाशांचें कूळ), नायजेर कोंगो (स्वाहिली आनी हेर आफ्रिकेंतल्या कितल्याशा भाशांचें कूळ) हीं कांय मुखेल भाशे-कुळां. हातूंतलें भारतीय-युरोपी कूळ हें संवसारांतलें सगळयांत व्हडलें भाशे-कूळ. संवसाराचे लोकसंख्येचें एक अर्द फकत एका भारतीय - युरोपी भाशे-कुळांत वांटून गेलां. उदेंतकडेन भारत ते अस्तंतेकडेन युरोप ह्या दोन तोंकांमदीं मेळपी कितल्योशो भासो ह्या कुळांत आस्पावतात.

भारतीय - युरोपी भाशेकुळाचीं इकरा मुखेल उपकुळां आसात अशें सामान्यतायेन मानतात. १) भारतीय-इराणी उपकूळ. ह्या उपकुळाचे दोन वांटे करतात, इराणी आनी इंडीक/भारतीय आर्य २) हॅलेनीक ३) इटालीक ४) कॅल्टीक ह्या उपकुळाचे दोन फांटे आसात - गॅलीक आनी ब्रिटॅनीक ५) जर्मेनीक - ह्या उपकुळाचेय दोन फांटे आसात. उत्तरकडलो फांटो आनी अस्तंतेकडलो फांटे ६) स्लावनीक ७) बाल्टीक ८) अर्मिनियन ९) आल्बेनियन १०) आनातोलियन आनी ११) तोखारियन. ह्या निमाण्या दोन उपकुळांच्यो भासो फकत अवशेशांच्या रुपान मेळटात. ह्या शतमानाचे सुरवेक तुर्कस्तानांत केल्ल्या एका उत्खननांतल्यान हिटायट हे मुखेल आनातोलियन भाशेचो जाणकारांक सोद लागिल्लो. जाल्यार तोखारियन भाशेचीय अशीच चीनी तुर्कस्तानांत मेळिल्ल्या लेखी साहित्यांतल्यान संवसाराक वळख जाल्ली. संवसारांतल्या भाशांनी आनीक दोन तरांच्या भाशांचो उल्लेख करचो पडटा - १) भोव भाशिक परिस्थितींत संपर्क म्हणून जल्माक आयिल्ल्या 'पिज्जीन' आनी 'क्रियोल' भासांचो आनी २) मनशांनी मुद्दाम घडयल्ल्या 'कृत्रीम' भाशांचो.

भाशेच्या वेगळया वेगळया बोलींतल्यान खंयचीय एक बोली भाशिक वेव्हारांत मुखेलपण जोडटा आनी बरप - शिक्षण, प्रसार माध्यमां सारकेलीं मळां आडावन बसता, तेन्ना ती भाशेची 'प्रमाण बोली' जाता. थळावे भेद सगळया भाशांनी आनी भाशेच्या सगळया आंगांनी - हेळयांनी, उतरावळींत, नादांत आनी व्याकारणांत पळोवंक मेळटात. ह्या भेदांतले भाशेच्यो थळाव्यो बोली घडटात. ज्या नेमान एके भाशेच्यो वेगळयो थळाव्यो बोली पोटभासो घडटात त्याच नेमान एकेच मूळ भाशेंतल्यान वेगळयो वेगळयो उपभाशोय घडटात. थळाव्या भेदांवरी समाजीक जाती वर्गाचे भेदूय आमकां सगळया भाशांनी आनी भाशेच्या सगळया आंगांनी पळोवंक मेळटात. भूगोलीक आनी समाजीक अंतराक लागून आयिल्ल्या वेगळेपणाभायर भाशेंत आनीक एके तरेचें वेगळेंपण पळोवंक मेळटा तें म्हळयार प्रसंगाक वा संदर्भाक लागून आयिल्लें वेगळेपण. हे तरेचें वेगळेपण भाशेच्यो वेगळयो वेगळयो शैल्यो घडयता. शैल्यांच्या वेगळेपणाभायर भाशेंत वेवसायीक संदर्भांचेंय वेगळेंपण दिसता.

भाशेचे विज्ञानीक विस्कटावणीच्या आदारान भाशे संबंदीत सिद्धांत प्रस्थापीत करपी शास्त्राक भाशाशास्त्र म्हण्टात. भाशाशास्त्राक भासविज्ञान अशेंय म्हण्टात. मनशाचे कुडींतले खंयचे अवयव ध्वनींची निर्मणी करतात, खंयच्या ध्वनींचो उपेग भाशेंत जाता, ध्वनींची रचणूक कशी जाता आनी तांकां अर्थ कसो लागू जाता, उतरां वाक्यां कशीं घडटात, भाशेचे उपेग खंयचे, संवसारांतल्या सगळया भाशांक लावंक मेळटात अशे कांय भाशेविशींचे नेम मेळटात काय ना, भास कशी बदलता, किद्याक बदलता किद्याक अशे तरेकवार विशय भासविज्ञानाच्या अभ्यासांत दिसतात. भाशेच्या इतिहासाचो, व्याकरणाचो आनी भाशेच्या वर्तमानकाळांतल्या रुपाचोय अभ्यास जाता. ध्वनींचे निर्मिती सावन भाशांच्या वेगळेपणां मेरेनचीं भाशेचीं तरेकवार आंगां भासविज्ञानाच्या क्षेत्रांत येतात.

खूब पुर्विल्ल्या काळासावन मनीसजात भाशेचेर विचार करीत आयल्या. भाशेच्या अभ्यासाक दोन-अडेज हजार वर्सांचो इतिहास आसा. उच्चारण, व्याकरण, व्युत्पत्ती सारकिल्ल्या ह्या भाशेच्या आंगांचो विचार भासविज्ञानाच्या जल्माच्या शेंकड्यांनी वर्सां आदींसावन शास्त्रीय तरेन चलत आयला. भारताक असल्या अभ्यासाचो खूब व्हडली आनी गिरेस्त परंपरा आसा. युरोपी (ग्रीक, रोमी), चीनी आनी अरबी संस्कृतायांनीय संवसाराक शास्त्रीय भास-विचारांच्यो आगळयो-वेगळयो परंपरा दिल्यात.

अठराव्या शेंकड्यांत सर विलियम जोन्स हो इंग्लीश जाणकार भारतांत संस्कृत सरस्पतीचो अभ्यास करतालो, तेन्ना उदेंतेकडली ही भास अस्तंतेकडल्या ग्रीक आनी लॅटीन भासांक खूब लागींची म्हणपाचो तांकां सोद लागलो. तांचेमदलें सारकेंपण हें भासांचे उतरावळीच्या मळारूच

न्हय जाल्यार व्याकरणी बांदावळीच्या मळारूय दिश्टी पडटालें. पूण संस्कृत, ग्रीक आनी लॅटीन ह्यो भासो एकाच मुळांतल्यान वयर सरल्यात अशें मानल्यारूच ह्या थराचें सारकेंपण समजून घेवं येता हो विचार विलियम जोन्सान १७८६ त कलकत्त्याच्या 'द रॉयल एशियॅटीक सोसायटी' त दिल्ल्या व्याख्यानांत मांडलो. ज्या दिसा जोन्सान हें इतिहासीक उलोवप केलें त्या २७ सप्टेंबर १७८६ ह्या दिसाक कांय जाण भासविज्ञानाचो जल्मदीस मानतात.

जोन्साच्या सोदान इतिहास घडयलो आनी एकुणिसाव्या शेंकड्यांत भाशेचीं नातीं सोदपाचो, पाळां-मुळां उस्तून काडपाचो अभ्यास खूब चंवरलो. भाशेचो बदल आनी भाशेची उत्क्रांती हो ह्या अभ्यासाचो विशय आशिल्लो. भाशेच्या बदलाचो अभ्यास करतां करतां जाणकारांक एक सोद लागलो. भास कशाय कशी बदलना; भाशेच्या बदलांत वेवस्था आसता. हे बदल नेमांक धरूनूच जातात आनी जर आडवाद मेळ्ळे जाल्यारूय आडवादांभितर नेम सोदून काडूं येतात. ह्या सोदान भाशेच्या बदलाच्या अभ्यासाक एक नवी शिस्त जोडून दिली आनी भाशेचो हो अभ्यास इतिहासीक शास्त्राची मान्यताय मेळोवंक पावलो. शास्त्रीय अभ्यासाच्या मळार ह्या अभ्यासाक वाङ्मय विद्येचो-फिलॉलॉजीचो वांटो लेखपाक लागले. ह्या अभ्यासाची तुळा करपाचें खाशेलपण मतींत घेवन जाणकारांनी ताका 'कंपेरेटिव्ह फिलॉलॉजी'-तुळात्मक वाङ्मयविद्या हें नांव दिल्लें.

तुळात्मक वाङ्मयविद्या हें भासविज्ञानाच्या विकासांतलें इतिहासीक पर्व अशें आमच्यांनी म्हणूं येता. रासमुस रास्क (१७८७-१८३२), याकोप ग्रिम (१७८५-१८६३), फ्रांझ बॉप (१७९२-१८६७), ऑगुस्त श्लायखर (१८२१-६४), कार्ल वॅर्नर (१८४६-९६) हे ह्या पर्वांतले म्हालगडे. ह्या जाणकारांनी आपल्या मुळाव्या वावरान भाशेच्या इतिहासीक अभ्यासाची बुन्याद घाली.

तुळात्मक वाङ्मयविद्येच्या आनी मुखार भासविज्ञानाच्या अभ्यासाक आकार दिवपांत, संस्कृत भाशेचो व्हड वांटो आसा. आर. एच. रॉबिन्स बरयता-युरोपाचो संस्कृतव्याकरण विचारांकडेन (नाद-विचार) संबंद येवंक नाशिल्लो जाल्यार घडये भासविज्ञान आयज वेगळेच वटेन चलिल्लें पळोवंक मेळपाचें. क्रिस्ता आदल्या सुमार ५०० ते १५० वर्सां मजगतच्या काळांत संस्कृत भाशेचो व्याकरण विचार खूब विकसीत जाल्लो.

फेर्दिनां द सोस्यूर (१८५७-१९१३) ह्या स्वित्झर्लंडी भास शास्त्रज्ञान भाशेच्या अभ्यासाक इतिहासीक तनरेंतल्यान जागो केलो आनी भाशेचे बांदावळी विशींचे कांय मुळावे सिद्धांत सोदून काडून भाशेच्या अभ्यासाक विज्ञानांत सुवात जोडून दिली. ह्या वावराक लागून सोस्यूराक आर्विल्ल्या भाशाशास्त्राचो मुळपुरूस मानतात. आंत्वान मेय्ये (१८६६-१९३६), लुई ह्येल्मस्लेव (१८९९-१९६५), निकोलाय त्रूबेत्स्कोय (१८९०-१९३८), रोमान याकोप्सन हांणी सोस्यूराची परंपरा मुखार चलयली.

तुळात्मक वाङ्मयविद्येची परंपरा अमेरिकेकूय अनवळखी नासली. विल्यम ड्वायर विट्नी सारकिल्या अमेरिकन विद्वानांनी ह्या मळाचेर तोलामोलाचो वावर केल्लो. विट्नीचें संस्कृत भाशेचें व्याकरण ही भारतीय-युरोपी भासविज्ञानांत एक म्हत्त्वाची भर अशें मानतात.

तशेंच फ्रांत्झ बोआस (१८५८-१९४२) हाच्या वावरांत भाशेच्या वर्णनात्मक अभ्यासाक नवी दिका मेळ्ळी. मुखार अॅडवर्ड सपीर (१८८४-१९३९) ह्या विट्नी आनी बोआसांच्या विद्यार्थ्यान भाशेच्या अभ्यासाक तत्त्वीक बसका जोडून दिली. सोस्यूरांवरी सपीरांकूय स्वतंत्रपणान भाशे भितरले रचणुकेचो - बांदावळीचो दिश्टावो जालो. लॅनर्ड ब्लूमफिल्ड (१८८७-१९४९) हांणें भाशेच्या वर्णनाक शास्त्रीय शिस्त हाडली. १९३३ त तागेलें Language हें पुस्तक उजवाडा आयलें. सपीर आनी ब्लूमफिल्डांचे प्रेरणेन अमेरिकन रचणूकवाद्यांची एक पिळगीच तयार जाली. झेलिग हॅरिस, बर्नर्ड ब्लॉक, जॉर्ज ट्रेगर, चार्ल्ज हॉकेट, केनेथ पायक हीं कांय हातूंतलीं मुखेल नांवां. तेउपरांत भासविज्ञानाच्या मळार ब्लूमफिल्डान प्रवेश केलो. ब्लूमफिल्डाच्या भासविज्ञानांत भाशेचें अर्थाचें आंग कोनशाक पडिल्लें आनी भाशेची बांदावळ आनी तिचे मूळ घटक उक्ताडा हाडपी सोद पद्दतीक चड म्हत्व आयिल्लें. सुमार २० वर्सां अमेरिकन भासविज्ञानाचेर ब्लूमफिल्डांचो प्रभाव उरलो. इतले मजगतीं बरपांत नाशिल्ल्या कितल्याशाच भाशांचीं वर्णनात्मक व्याकरणां भासविज्ञानिकांनी बरोवन काडलीं. भाशेच्या नीज उलोवप्यांकडल्यान भाशेचीं वाक्यां एकठांय करप, अर्थाक कुशीन दवरून वाक्यांतले भाशेचे बांदावळीचो अभ्यास करप ही त्या भासविज्ञानिकांची वावरा पद्धत आशिल्ली. हे पद्धतीक आनी तिचे मोखीक लागून अमेरिकेंतल्या ह्या भासविज्ञानिकांक 'रचणूकवादी' (Structuralists) हें नांव पडलें. हाका लागून 'रचणुकी भासविज्ञान' हें उतर कांय जाण 'रचणूकवाद्यांचें भासविज्ञान' ह्या मोटव्या अर्थानूय वापरूंक लागले.

१९५७त नोअम च्योमस्की हाचें Syntactic structures हें पुस्तक उजवाडा आयलें. ताणें भासविज्ञानांत व्युत्पादक व्याकरणाचें (Generative Grammar) पर्व सुरू केलें.

आर्विल्ल्या भासविज्ञानाच्या विकासांत आनी विचारांत भारतीय भास विचारांचें, चड करून पाणिनि - फांट्याच्या भास विचाराचें म्हत्वाचें योगदान आसा. भारताचो युरोपी भास विद्वानांकडेन संपर्क आयलो तेन्ना एकुणिसाव्या शेंकड्यांत डॉ. रामकृष्ण गोपाळ भांडारकर हे तुळात्मक वाङ्मय विद्येचो अभ्यास करपी पयलो भारतीय विद्वान. भांडारकरा वांगडा जॉन बीम्स, रुडॉल्फ ह्योर्नले आनी रॉबर्ट कॉल्डवेल हांणी भारतीय भाशांच्या आर्विल्ल्या अभ्यासाची बुन्याद घाली. ह्या सुरवेच्या काळांत चडसो संस्कृत भाशेचेरूच अभ्यास जालो.

१९१३त कलकत्ता विद्यापिठांत तुळात्मक वाङ्मयविद्येच्या अध्यासनाची स्थापणूक जाली. १९१७ वर्सा ह्या अध्यासनाचेर पयलेच फावट आय. जे. एस. तारापोरेवाला ह्या भारतीय मनशाची नेमणूक जाली. १९१९ वर्सा झुल ब्लॉक हाचो 'ला फॉर्मास्यों द ला लांग मारात' (मराठी भाशेची बांदावळ) हो ग्रंथ उजवाडा आयलो. ह्याच वर्सा भांडारकर प्राच्यविद्या संशोधन मंदिराच्या फुडाकारान पुण्यांत पयली भारतीय प्राच्यविद्या परिशद भरली. १९२१ त सुनीतिकुमार चटर्जी हाका ताच्या 'द ओरिजिन एण्ड डॅवलपमॅण्ट ऑफ द बँगाली लँग्वेज' ह्या प्रबंधाखातीर लंडन विद्यापिठाची डी. लिट. पदवी मेळ्ळी. उपरांत १९२२ ते १९५२ मेरेन ताची कलकत्ता विद्यापिठाच्या तुळात्मक वाङ्मयविद्येच्या अध्यासनाचेर नेमणूक जाली. ताणें भासविज्ञानाच्या नकाशाचेर भारताक सुवात जोडून दिली. १९२८ वर्सा जॉर्ज एब्रॅहम ग्रियर्सन हाची १९०३ वर्सा सुरू जाल्ली Linguistic survey of India ही येवजण पुराय जाली. आर्विल्ल्या भारतीय भाशांच्या अभ्यासाचें मुळावण घालप्यांमदीं ब्लॉक, चटर्जी हांचेवांगडा राल्फ टर्नर, सिद्धेश्वर वर्मा, बाबूराम सक्सेना, धीरेंद्र वर्मा हांचोय आस्पाव जाता. उपरांत सु.मं. कत्रे, ना.गो. कालेलकर हांणी ही परंपरा मुखार चलयली.

१९५३ त रॉल्फ टर्नर हाच्या येजमानपणाखाल पुण्याचे डॅक्कन कॉलेजींत भासतज्ञ आनी भारतीय शिक्षणतज्ञांची बसका जाली आनी तातूंत भारतीय तरणाट्यांक आर्विल्ल्या भास-विज्ञानाचें शिक्षण दिवपाचो संकल्प केलो. १९५४ त डॅक्कन कॉलेजीन फुडाकार घेवन 'लिंग्विस्टिक सोसायटी ऑफ इंडिया'चें पयलेंच स्वतंत्र अधिवेशन घडोवन हाडलें. मुखार न्युयॉर्काच्या रॉकफॅलर प्रतिश्ठाना कडल्यान फाटबळ मेळून डॅक्कन कॉलेजींत भासविज्ञान विभाग स्थापन जालो.

आयज भारतांतल्या पंदरा परस चड विद्यापिठांनी भासविज्ञानाचे स्वतंत्र विभाग आसात. ह्या विद्यापिठांनी भारतांतले आनी भारताभायलेच विद्यार्थी शिक्षण घेतात.

ह्या दोन वर्सांमदीं भाशेचो अभ्यास खूब मुखार पावला. गिन्यानाच्या मळार भासविज्ञान आपणाखातीर एक खाशेली सुवात जोडूंक पावलां.

व्याकरण-विचार, नादविज्ञान आनी अर्थविज्ञान हीं भासविज्ञानीक अभ्यासाचीं मुखेल आंगां अशें सामान्यतायेन मानतात. नाद, व्याकरण आनी अर्थ ह्या भाशेच्या मुळाव्या आंगांच्या अभ्यासाचे बुन्यादीचेर भासविज्ञान उबें आसा. हालींच्या काळांत समाजभासविज्ञान (Sociolinguistics) आनी मानसभासविज्ञान (Psycholinguistics) हे भासविज्ञानाचे दोन फांटे खूब विकसीत जाल्यात.

समाजभासविज्ञानांत भास आनी समाज हांच्या नात्याचो अभ्यास आस्पावता. समाजीक वेगळेंपण भाशेंत कशें दिश्टी पडटा-जात, कात, धर्म, वर्ग हांचें तशेंच पिराय, लिंग हांचें वेगळेंपण भास कशी दाखयता, संदर्भा प्रमाण भास कशी बदलता, भास-बोलीच्या वा आवयभाशेच्या प्रस्नांक लागून समाजांत कशे आनी किद्याकलागून प्रस्न उपरासतात, भाशेकडेन मानाचो (Prestige)चो प्रस्न कसो घुस्पल्लो आसता, प्रमाणिकरणाची प्रक्रिया कशी आसता, भौ भाशिक परिस्थितींत संपर्क भासो वा जोड भासो कशो नांवारुपाक येतात? असल्या सगळ्या प्रस्नांचो समाजभासविज्ञान अभ्यास करता.

भास हें मनीसजातीचें खाशेलपण. मनशाकूच भास येता. ह्या 'भास येवपा' फाटल्यान मनशाचे सैमीक बांदावळीचीं खंयचीं आंगां आसात? मनशाच्या मेंदवाची घडण कशी आसता? भाशेचें मशीन कशें चलता? भुरगें पयलींच भास कशें शिकता? जाणटीं नवी भास कशीं शिकतात? असल्या सगळ्या प्रस्नांचो अभ्यास मानसविज्ञानांत जाता.

भासविज्ञानाचे आनिकूय फांटे आसात. शैलीविज्ञान (Stylistics) हो फांटो, भास आनी संदर्भ हांच्या नात्याचो अभ्यास करता. साहित्यीक शैलीविज्ञान (Literacy stylistics) हो ह्या फांट्याचो पोटफांटो साहित्यांतल्या शैल्यांचो (Literary stylistics) अभ्यास करता. छंदाची बांदावळ भाशेचे नादवेवस्थेचेर कशी उबी आसा, क्रियापद वापरूंक नाशिल्ल्यान कवितेन कसले परिणाम सादल्यात... सारकिल्या गजालींचो अभ्यास साहित्यीक शैलीविज्ञानांत येता. इतिहासीक भासविज्ञान (Historical Linguistics) भाशेचेर जाल्ल्या काळाच्या संस्कारांचो अभ्यास करता. भास कशी बदलता? भाशीक बदलाच्यो प्रक्रिया खंयच्यो? भास कित्याखातीर बदलता? मूळ भाशेंतल्यान पोटभासो कशो जल्माक येतात? असल्या प्रस्नांचेर इतिहासीक भासविज्ञान उजवाड घालता. चार मार्गांनी इतिहासीक भासविज्ञान भाशेच्या इतिहासाचो थाव घेता. त्यो म्हळयार ;

१) तुळात्मक पद्धत (Comparative Method)

२) एकभाशिक पुनर्रचणूक (Internal Reconstruction)

३) भाशिक भूगोल / बोली भूगोल (Linguistic Geography / Dialect Geography) आनी

४) भाशिक काळनिर्णय (Giottochronology / Lexicostatistics).

भासविज्ञानीक अभ्यासाचो वेव्हारांतूय खूब आदार जाता. भास शिक्षणाच्या मळार भासविज्ञानान म्हत्वाचें योगदान दिलां. हालींच्या काळांत व्याकरणांतल्यान आनी संवकळीच्या भाशेच्या माध्यमांतल्यान - अणकारांतल्यान नवी भास शिकोवपाचे पद्दतीचेर अदीक भर दिताले. अमेरिकन रचणूकवाद्यांच्या विचारांत 'Language Drills' क म्हत्व आयले. अणकारांतल्यान भास शिकोवपाची रीत फाटीं पडली. नव्या भाशीक संवयांखातीर जिबेक तयार करपाचे रितीक म्हत्व आयलें - शिकोवपाचो विशयूच शिकोवपाचें माध्यम जालो. च्यॉमस्कीन भास

शिकपाचे प्रक्रियेकडेन जाणकारांचें लक्ष ओडलें. नवी भास शिकतना शिकोवप्याच्या अभ्यासक्रमाभायर शिकप्याचेय तकलेंत एक अभ्यासक्रम तयार आसता. शिकता आसतना ताचेकडल्यान घडपी चुकांतल्यान तो झळकता म्हणपाचें दाखोवन दिलें. ह्या विचारान भास शिकोवपाच्या रितीं भितर म्हत्वाचे बदल घडोवन हाडले. अशे तरेन भासविज्ञानीक मळार नव्या नव्या नदरांची भर पडत गेल्या ते प्रमाण भास शिक्षणाच्या विचार आनी पद्धतीं भितर बदल घडत गेल्यात. तशेंच भाशिक नियोजन आनी भाशिक धोरण थरोवपाच्या मळाचेर भासविज्ञानाचो म्हत्वाचो आदार जाता. अणकाराच्या मळाचेरूय भासविज्ञानान मोलाचें योगदान दिलां. कोशविज्ञानाच्या मळारूय भासविज्ञानीक (Lexicography)अभ्यासाची मोलाची मदत जाता. उलोवपांतलीं उणेंपणां काडपाच्या वावरांत - उलोवणें चिकित्सेंत (Speech Therapy) लेगीत भासविज्ञानाचो खूब आदार जाता. तशेंच भासविज्ञानाचो हेर शास्त्रांकडेनूय संबंद येता.

- कों. वि. सं. मं.

**भास्कर - १ :** (इ.स.चो ११ वो शेंकडो).

एक वेदांताचार्य. हाणें ब्रह्मसूत्रांचेर भाश्य बरयलां. त्या भाश्याक 'भास्करभाश्य' अशें नांव आसा. भोंवरे, बुडबुडे आनी ल्हारां ह्या रुपान उदक विंगड विंगड दिसलें तरी दर्याच्या रुपान तें एकूच आसता. तशेंच ब्रह्माचें आसा अशें भास्कराचें मत. ताचें ब्रह्माविशींचें विवेचन अशें-ब्रह्म हें सगुण, सल्लक्षण, बोधलक्षण, सत्यज्ञानानन्तलक्षण, चैतन्य, रुपांतररहित आनी अद्वितीय. प्रलयाचे अवस्थेंत सगळे विकार ब्रह्मांत विलीन जातात. ब्रह्म हें कारणरुपांत निराकार आनी कार्यरुपांत जीवरूप आनी प्रपंचमय आसा. भोग्यशक्त आनी भोक्तॉक्तृशक्त अशो ब्रह्माच्यो दोन शक्ती आसात. भोग्यशक्त मळबा सारकिल्या अचेतन जगत्रुपांत परिणत जाता. जाल्यार भोक्तृशक्त चेतन जीवरूपांत विद्यमान आसता. ब्रह्माच्यो ह्यो शक्ती पारमार्थिक आसात.

सूर्य आपल्यातल्यान किरणांचो विक्षेप करता, तेच भाशेन ब्रह्म आपल्या अनंत आनी अचिंत्य शक्तींचो विक्षेप करता. परमात्म्याविशींचो अनुराग मोक्षाक कारण आसा, जाल्यार विशयाविशींचो अनुराग बंधाक कारणीभूत आसा. शुश्क ज्ञानान मोक्षाचो उदय जायना, पूण तो कर्मसंवलित ज्ञानान जाता. तेखातीर उपासना आनी योगाभ्यास हांचीय गरज आसता.

-कों. वि. सं. मं.

**भास्कर - २ :** (इ.स.चो १७ तो शेंकडो).

एक महाराष्ट्रीय संशोधक. हो रघुनाथाचो शिश्य आशिल्लो. एकनाथान ज्ञानेश्वरीचें शुद्धीकरण करतकच फकत २६ वर्सांनी भास्करानूय तशेंच कार्य केलें. ताणें आपले संशोधीत ज्ञानेश्वरींत ४०० ओवयो जोडल्यो. ह्या अदीक ओवयांनी ताणें देवाक प्रार्थना, गीतेचें व्हडपण आनी ज्ञानेश्वरीचो पाठ अशुद्ध कित्याक जालो हाचीं कारणां दिल्यात. तो म्हण्टा श्रीकृष्णान उबारिल्ल्या ह्या गीतारूप प्रासादांत फकत व्युत्पन्न पंडितांकूच प्रवेश मेळटालो. देखून ज्ञानेश्वरान प्राकृतांखातीर त्या प्रासादामुखार हो मुक्तिमंडप उबारला.

- कों. वि. सं. मं.

**भास्कराचार्य :** पुर्विल्ल्या भारताच्या गणित इतिहासांत दोन भास्कराचार्य जावन गेले. तातूंतलो दुसरो भास्कराचार्य हो भारतांतलो एक बुदवंत आनी सगळ्यांत कल्पक असो गणिततज्ञ जावन गेलो. पयल्या भास्कराचार्याविशीं चडशी म्हायती मेळना. पयलो भास्कराचार्य सुमार इ. स. ४७५ ह्या काळांत जावन गेलो. ताणें गणितावांगडाच अवकाशशास्त्रांतूय वावर केल्लो आसा. हे भायर ताचेविशीं आनीक कांयच म्हायती मेळना. दुसरो भास्कराचार्य हो इ. स. १११४ वर्सा कर्नाटकांतल्या बिजापूर लागसारच्या बिज्जादाबिदा ह्या गांवांत जल्मलो. ताचें घर पयलींसावन हुशार अशा विद्वानांचें आसलें. ताका ताचो बापूय महेश्वर हाचेकडल्यान मुळावें शिक्षण मेळ्ळें. आपलें शिकप सोंपतकच भास्कराचार्य उज्जैनीक गेलो. थंय ताणें ब्रह्मगुप्ताचे अवकाशशास्त्राचे प्रयोगशाळेंत संशोधन वावर सुरू केलो. ब्रह्मगुप्ताचो वावर फुडें व्हरपाक ताचेफाटल्यान भास्कराचार्य हो पयलोच गणिततज्ञ आसलो.

भास्कराचार्याचो चडसो वावर अवकाशशास्त्र, अंकगणित, मेजमापशास्त्र आनी बीजगणिताचेर आसा. ताचें सगळ्यांत चड गाजिल्लें पुस्तक म्हळ्यार 'सिध्दांत शिरोमणी'. हें पुस्तक ताणें इ. स. ११५० त बरयल्लें. ताच्या कांय हेर पुस्तकांमदीं करण कुकुटल, समय सिध्दांत शिरोमणी, गोलायध्याय रसगुण, सूर्यसिध्दांत हांचो आस्पाव जाता. पूण हातूंतलें एकूय पुस्तक आयज उपलब्ध ना. फकत 'सिध्दांत शिरोमणी' चे चार अध्याय छापी स्वरुपांत पळोवंक मेळटात. लिलावती, बीजगणित, गोलायध्याय आनी ग्रहगणित अशे ते चार अध्याय जावन आसात. अशें म्हण्टात, भास्कराचार्य हाका लिलावती नांवाची एक हुशार धूव आशिल्ली आनी तिका घाल्लीं गणितां 'लिलावती' ह्या अध्यायांत आस्पावल्लीं आसात.

अनंताचो (infinity) विचार फुडें हाडपी भास्कराचार्य हो संवसारांतलो पयलो गणिततज्ञ. क्षेत्रफळ आनी घनताय काडपाच्यो वेगवेगळ्यो रिती भास्कराचार्याच्या नांवार आसात. ज्यो अजुनूय खूबकडेन वापरतात. ताच्या 'ग्रहगणित' ह्या अध्यायांत रोलचो सिध्दांत (Rolle's Theorem), पेलचें समीकरण (Pell's Equation) हांचे सारके विशय पळोवंक मेळटात. हाचे वयल्यान अशें दिसता, अस्तंतेकडल्या देशांपयलीं भारत देशांत गणिताची पयली उदरगत जाल्ली. त्रिकोणमितीचेर

भास्कराचार्यान मोलादीक वावर केल्लो. आयज गणितांत चालंत आशिल्ले कितलेशेच प्रस्न सोंपे रितीन सोडयल्ल्याचें भास्कराचार्याचे बरपावळींत दिश्टी पडटा.

धर्तरेचो आकार वाटकुळो आसा असो सिध्दांत भास्कराचार्यान गोलायध्याय ह्या ग्रंथांत मांडला. आयज सगळयांक खबर आशिल्लो न्युटनाचो गुरुत्त्वाकर्शणाचो नेम भास्कराचार्याच्या बरपांनी 'धारणीकात्मक शक्ती' म्हणून दिल्लो आसा. सूर्य सिध्दांतांत त्रिकोंणमितींतलें सायनचें कोश्टक (sine table) दिल्लें आसा. पायथागोरसाच्या सिध्दांताचें खरेंपण (proof) त्रिकोणाचे कुडके करून दाखोवपाची रीत (direction method) भास्कराचार्यान वापरिल्ली आसा. तेभायर तरेकवार समीकरणां, भूमितीचे वेगवेगळे प्रस्न, 'पाय' चें मोल, अशा विंगड विंगड विशयांचेर भास्कराचार्यान बरप केलां. आर्यभट्ट, ब्रह्मगुप्त, श्रीधर, पद्मनाथ हांचेसारक्या भारतीय गणिततज्ञाचें कार्य भास्कराचार्य-दुसरो हाणें केलें.

- व्हाय. एस. वालावलीकार

**भिंडां (पिडा) :** ताळयांत जिबेचे दोनूय कुशींनी वाटकुळया आकाराचे आनी रगताच्या धव्या लस-पेशींनी भरिल्ले भिंडांच्या आकाराचे गुळे. हे गुळे अन्नाची नळी आनी उस्वासाची नळी हांच्या तोंडारूच आसून ते अन्नांत आनी हवेंत आशिल्ल्या जंतूंचें निर्मुलन करतात. जंतूंचें निर्मुलन करता आसतना ल्हव ल्हव करून भिंडांक जंतूंचो संसर्ग जाता आनी तेवरवीं भिंडांकूच सूज येता. हाकाच भिंडां येवप (सूज येवप) वा टॉन्सिलायटीस अशें म्हण्टात. भिंडां सुजपाच्या काळमानाप्रमाण भिंडां येवपाचे दोन प्रकार आसतात. एक तात्पुरत्या स्वरुपाचीं खर आनी दुसरीं परत परत उचकपी जून स्वरुपाचीं (chronic).

मनशाच्या शरिरांत कसल्याय रोगजंतूंचो शिरकाव जातकच पांच तरांचीं लक्षणां दिसूंक लागतात. तीं म्हळयार तो भाग तांबडो जावप, त्या भागाक सूज येवप, दुखूंक लागप, तितलोच भाग हून जावप तशेंच त्या भागाच्यान नित्याचें काम करूंक जमना जावप. अशेच तरेन भिंडांकूय हीं पांच लक्षणां जातात. चड करून ५ ते १० वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांक परतून परतून थंडी जावन तांचीं भिंडां सुजतात आनी दुखूंक लागतात. उस्वास घेवंक त्रास जाता, नाक चोंदता, तेन्ना तोंडांतल्यान उस्वास घेवंचो पडटा. अशें परतून परतून जाता तेन्ना ताका क्रॉनीक टॉन्सिलायटीस अशें म्हण्टात. अशावेळार तीं काडून उडोवप चड फायद्याचें आनी बऱ्याक पडटा.

पयलींच्या काळांत, भिंडांक आनीक एक रोग जातालो तो म्हळयार डिफ्तेरिया वा कांटेल वा घटसर्प. भिंडांचेर धवो शेळो सो मांडप आनी तीं सुजप. अशा वेळार खूब जोर येवन एकेक फावट १२ ते २० वरांभितर भुरगें मरतालें. पूण हालीं ट्रिपल हें वासीन केल्ल्यान हें डिफ्तेरिया वा कांटेल भुरग्याक जायना. हें वासीन कांटेल, कोलेखोंकली आनी धोणकुटी ह्या तीन पिडां आड आसता. देड, अडेज आनी साडेतीन म्हयन्यांचेर एका म्हयन्याच्या अंतरान हें वासीन भुरग्याक दिवंक जाय. उपरांत भुरगें देड वर्साचें जातकच आनी साडेचार वर्सांचेर अशे तरेचीं दोन वासिनां भुरग्याक दितात.

जेन्ना भिंडां अकस्मात मोठीं जावन दुखूंक लागतात, तेन्ना जोर येता. ह्या भिंडांक खर स्वरुपाचीं (Acute Tonsilites) म्हण्टात. अशा वेळार भिंडांचेर शस्त्रक्रिया करूंक फावोना. खर स्वरुपाचीं भिंडां जालीं जाल्यार अकस्मात कुडकुडो खावन जोर येता, ताळो दुखूंक लागता, गिळटा आसतना त्रास जाता, रूच वता आनी जिवाक बरें दिसना अशीं लक्षणां दिसूंक लागतात. तोंड उकतें करून हारशांत पळयल्यार ताळयांत सूज येवन मोठीं जाल्लीं तांबडीगूंज भिंडां दिसतात. हींच भिंडां जेन्ना बरीं निवळनासतना परतून परतून उचकतात, तेन्ना तांचें रुपांतर जून (cronic) स्वरुपांत जाता.

खर स्वरुपांचीं भिंडां तरातरांच्या जंतूंक लागून जातात. तातूंतले घटसर्प, मालागोलाणू (streptococcus) जंतू हे चड म्हत्वाचे आसात. घटसर्प जावन वतकच चडशे खेपे भिंडांनी हाचे जंतू मेळटात. अशा लोकांपसून घटसर्पाचो रोग बळावपाचो संभव आसता. ह्या सारकिल्या प्रकारांत भिंडांचेर धवो चिकचिकीत थर येता. तशेंच हेर कांय खर स्वरुपाच्या भिंडांनीय अशे तरेचो थर येवंक शकता. तेखातीर खूबदां निदान करपाक अडचण येता. एकेकदां अशावेळार उस्वासाक घाणयारो वास येता.

भिंडां जातकच, तांच्या जंतूंचें निदान करप खूब गरजेचें आसता. कारण ताचेरूच चिकित्सा आदारून आसता. भिंडांतलो पूं आनी हेर घट्ट द्रव पदार्थ खाशेले तरेन तपासचे पडटात. खर स्वरुपाचीं भिंडां जालीं जाल्यार हून उदकांत, जंतूनाशक वखदां वा मीठ घालून त्या उदकाचे गळगळे घेवन ताळो बरो शेकीत जाल्यार बरें दिसता. अँटिबायॉटिक वखदांचो जाता तितले बेगीन उपेग करचो. पेनिसिलीन, क्लोरँफॅनिकॉल ह्या वखदांचोय बेगोबेग गूण येता. तीन-चार दिसांभितर सूज आनी जोर उणो जावन पिडेस्ताक गूण पडटा.

हींच खर स्वरुपाचीं भिंडां हेर विशिश्ट जंतूंच्या संसर्गाक लागून जाल्लीं आसल्यार ताचो परिणाम शरिरांतल्या हेर इंद्रियांचेर जाता. देखीक, मालागोलाणुसारक्या जंतूंक लागून जाल्ल्या भिंडांनी संधिवात, काळजाचें दुयेंस वा मूत्रपिंडाक सूज येवपासारकीं दुयेंसा जावं येतात. तेखातीर खर टॉन्सिलायटीस जाल्ल्या पिडेस्ताची जतनायेन परतून परतून तपासणी करून हे उपद्रव जावंचे न्हय म्हणून खूब दिसांमेरेन योग्य ते उपचार चालू दवरचे पडटात.

जून (Chronic) जाल्ल्या भिंडांचीं लक्षणां खर स्वरुपाच्या भिंडांभाशेनूच आसतात. पूण हातूंत चड अशक्ततताय येता, परत परत

थंडी जाता, बारीक प्रमाणांत जोर येता. मानेंतल्यो गांठी मोठ्यो जातात, तशेंच कान फुटपाचोय संभव आसता. अशा वेळार अँटिबायोटिक वखदांचोय चडसो परिणाम जायना. तेन्ना शस्त्रक्रिया करून भिंडां काडून उडोवप चड बरें आसता. ही शस्त्रक्रिया दोन प्रकारांनी करतात. एका प्रकारांत विशिश्ट प्रकाराचें उदग्र कर्तन यंत्र वापरून भिंडां काडटात. दुसऱ्या प्रकारांत भिंडांचें चाकवान विच्छेदन (dissection) करून तीं प्रावरणासयत काडून उडयतात. पूण चड वेळ रगत व्हांवपाची प्रवृत्ती आसल्यार खर स्वरूपाचीं भिंडां वा घटसर्प जाल्लो आसल्यार, ज्यो व्यक्ती हुंगरेचीं वखदां सोसूंक शकनात तशेंच पांच वर्सां सकयले पिरायेच्या भुरग्यांचेर भिंडांची शस्त्रक्रिया करिनात.

पूण परतून परतून खर स्वरुपाचीं भिंडां जातात जाल्यार, भिंडां खूब मोठीं जावन गिळपाक वा उस्वास घेवपाक त्रास जाता जाल्यार, भिंडां खूब जून जावन तांचेपसून अशक्तताय येता जाल्यार, कान दुखता वा कान फुटलो जाल्यार आनी भिंडांनी घटसर्पाचे जंतू मेळ्ळयार भिंडांची शस्त्रक्रिया करप गरजेचें आसता.

- डॉ. भिकाजी घाणेकार

## भिंडां (फळ) :
(पळेयात भिरंड).

## भिकणां - १ :
(मराठी : भुईमूग; हिंदी : मुंगफली; गुजराती : भुईमुग चणा, मगफली; कन्नड : नेला गदळे; संस्कृत : शिंबिका, स्नेहबिजक, भूचानक, भूमुद्र; इंग्लीश : पीनट, ग्राऊंडनट, मंकीनट; लॅटीन : ॲरॅचिस हायपोजिया; कूळ : लेग्युमिनोसी)

ही वर्सुकी (उणो तेंप) जगपी वनस्पत. ल्हान झोंपावरी, सरळ वा पातळून वाडटा. पानां एका फाटल्यान एक, संयुक्त, पिसावरी गाड, वा लेव पाचवीं (५ ते ७.५सेंमी.) आसतात. एके ताळयेक तांच्यो सादारणपणान दोन जोडयो आसतात. फुलां पानांचे कुशींत येतात आनी तीं ल्हान, हळदुवीं, एकटुकीं वा तिनांचो घोस आसता. हे वनस्पतीच्या मुखेल मुळाक नायट्रोजनाच्यो गांठी आनी कांय उपमुळां आसतात. परगणाउपरांत किंजपुटाच्या मुळांत आशिल्लो देंठ लांब वाडटा आनी ल्हव ल्हव किंजपुटाक जमनींत व्हरता. किंजपुट हे जमनीचे दिकेन वाडपी आसतात आनी ते जमनींत रिगतकच तांचें रुपांतर फळांत जाता. फळ म्हळयार एके तरेची मोटवी सांग. ह्यो सांगो घोंसांनी वा एकटुक्यो येतात. सांग फोडटकच तातूंत १-६ दाणे (भिकणां) आसतात. दाण्याचे कातीचो भायलो रंग दाण्याच्या प्रकाराप्रमाण गुलाबी, तांबसो, जांभळो वा धवो आसता.

**इतिहास :** हे वनस्पतीचें ॲरॅचीस हायपोजिया हें शास्त्रीय नांव ग्रीक उत्तर 'ॲरॅचीस' म्हळयार कड्डण (द्विदली कड्डण) आनी 'हायपोजिया' म्हळयार जमनीपोंदा जावपी सांगो ह्या उतरावयल्यान जालां. हे वनस्पतीचो मूळ गांव ब्राझील (दक्षिण अमेरिका) अशें मानतात. थंयसावन ताचो प्रसार आफ्रिकेक जालो. आफ्रिकेंतल्यान इ. स. १८०० त पुर्तुगेजांनी हें पीक भारतांत हाडलें.

एकुणिसाव्या शतमानाचे सुरवेक ह्या पिकाचो प्रसार दक्षिण भारतांत जालो आनी तेन्नाच्यान ह्या पिकाची लागवड व्हड प्रमाणांत जावंक लागली.



भिकणांचें झाड

सद्या भारतांत सुमार १० लाख हॅक्टर सुवात भिकणांच्या पिकाखाल आसा. हेर देशांनी जंय भिकणांचें उत्पादन मुखेलपणान काडटात ते देश अशे : चीन (३७,५०,००० हॅक्टर), अमेरिका (१,६,७०,००० हेक्टर), नायजेरिया (९,००,००० हेक्टर) आनी ब्रह्मदेश मियानमार (७,५०,०००हेक्टर).

संवसारांत भिकणांचें उत्पादन काडपी मुखेल देश अशे : भारत, चीन, फ्रांस. अस्तंत आफ्रिका, नायजेरिया आनी अमेरिका. भिकणांच्या उत्पादनांत सगळयांत चड हॅक्टर सुवात आनी उत्पादन हातूंत भारताचो पयलो क्रमांक लागता. गोंयांत सुमार ९२३ हॅक्टर सुवातींत भिकणांची लागवड जाता आणि ताचे पासून १३०४ टन भिकणांचें उत्पन्न मेळटा.

**प्रकार :** भिकणांचे सादारणपणान दोन प्रकार जातात. एक सरळ आनी दुसरो पसरपी. वॉल्ड्रनस ह्या तज्ञाच्या मतान सरळ भिकणाक ॲरॅचीस हायपोजिया उपकूळ फास्टेजियाटा (Fastigiata) आनी पातळपी भिकणां ॲरॅचिस हायपोजिया उपकूळ प्रोक्युबेन्स ह्या नांवान वळखतात. पग हाच्या मतान ह्या दोनूय प्रकारांनी तांकां आगळें अशें म्हत्व आसा. सरळ प्रकारांतलीं भिकणां ॲरॅचीस पूसीला ह्या कुळांत जाल्यार पातळपी भिकणां ॲरॅचीस प्रोस्ट्राटा ह्या कुळांतल्यान आयल्यांत.

भिकणांचे हेर प्रकार आनी तांचें खाशेलपण अशें-

| जात | प्रकार | गराचें प्रमाण | तेलाचें प्रमाण | खाशेलपण |
|---|---|---|---|---|
| टीएमव्ही.-२ | घोंस | ७६.७ | ४९ | पावसांत तशेंच शिंपणावळीचेर हें पीक बरें येता. |
| टीएमव्ही-३ | पातळपी | ७६.८ | ५० | पावसांत आनी शिंपणावळींत बरें पीक येता, उत्पादनूय बरें मेळटा. |
| एके१२-२४ | सरळ | ७१-७३ | ४९ | अंकोला, जळगांव आनी धुळेचे मध्यम जमनींत हें पीक बरें येता. |
| कोपरगांव नं.१ | उपसरळ | ७२ | ४०.५ | कोल्हापूरचे जड जमनींत हें पीक बरें येता आनी उत्पन्नूय बरें मेळटा. |
| कोपरगांव नं.३ | सरळ | ६६ | ४७ | कोल्हापूरचे हलके जमनींत हें पीक बरें येता आनी उत्पन्न बरें मेळटा. |
| सुदारीत ल्हान जपान | सरळ | ७५ | ५१ | नागपूर वाठारांत उण्या तेंपांत जावपी. |
| एस बी-११ | सरळ | ७९ | ५२ | कोल्हापूर वाठारांत हें पीक बरें येता. |
| ए.के.-८-११ | सादारण सरळ | ६८ | ४६ | सांगली, सातारा, कोल्हापूर ह्या वाठारांत हें पीक बरें येता आनी दाणे आकारान मोटे आसतात. |
| टी.जी. १७ | सादारण सरळ | ६८ | ४९ | १९८२ वर्सा अस्तित्वांत आयिल्लो हो प्रकार पुराय भारतांत काडटात. |

गोंयांत फुले प्रगती, डी. एच. ३-३० ह्यो भिकणांच्यो जाती चड प्रमाणांत लायतात.

**उत्पादन :** पावसाळी हंगामांत पातळपी प्रकाराचें हॅक्टेरी उत्पादन सुमार १५००-१७०० किग्रॅ. सरळ प्रकाराचें १००० ते १२०० किग्रॅ. आनी सरळ प्रकाराचें हॅक्टरी उत्पादन ८००-१००० किग्रॅ. (सांगो) मेळटात. शिंपणावळीच्या पिकाचें हॅक्टरी उत्पादन सुमार ३००० किग्रॅ. मेरेन आसता. भिकणांच्या सांगां पसून सुमार ७०-७५% दाणे मेळटात आनी दाण्यांतल्या तेलाचें प्रमाण प्रकाराप्रमाण ४५-५०% आसता.

भारतांत भिकणांक तेलबियांखातीर खूब मागणी आसा. भिकणांत सादारणपणान ७.९% उदक, २६.७% प्रथिनां, ४०.१% तेल (स्निग्ध पदार्थ), २०.३% कार्बोहायड्रेड ३.१% धागे आनी १.९% खनीज पदार्थ आसतात. भिकणाच्या दाण्यांत ब गटांतली थायामीन, रिबोफ्लाविन आनी निकोटिनिक आम्ल हीं जीवनसत्वां तेचपरी फॉलिक आम्ल आनी इ जीनवसत्वां जायत्या प्रमाणांत आसतात. भिकणां हरवी वा भाजून खातात. जेवणा-खाणांत भिकणांच्या तेलाचो उपेग करतात. वनस्पती तूप तयार करपाखातीर व्हड प्रमाणांत तांचो वापर जाता आनी हेर उणे प्रतीचीं तेलां आनी वंस हातूंत भरसुनय शांपूनिर्मिती करपाखातीर कांय प्रमाणांत भिकणांचो वापर जाता. सौदर्यं प्रसाधनां, क्रीम, कोल्ड क्रीम हांचे निर्मितींत तशेंच चामड्याक लावपाखातीर ह्या तेलाचो उपेग करतात. भिकणांची पेंड (तेल काडटकच उरता तो चोथो) गोरवांचे खावडीखातीर उपेगी पडटा. हे पेंडींत प्रथिनाचें प्रमाणूय खुबूच आसता. सेंद्रीय साऱ्याखातीर हे पेंडीचो उपेग करतात. हार्डबॉर्ड तयार करपाच्या कामांत भिकणांच्या कल्लांचो वापर करतात.

**रोग आनी किडी :** भिकणांचेर टिक्का, मूळकूज, तांबेरा आनी पर्णगुच्छ हे म्हत्वाचे रोग जातात. सार्कास्पोरा पर्सोनॅटा आनी सार्कास्पोरा अरॅकिडिकोला ह्या दोन कवकांक लागून जावपी रोग. पानांचेर भोंवतणी हळदुव्या रंगाचें वलय आशिल्ले तपकिरी रंगाचे थिपके पडटात आनी पानां गळून पडटात. ह्या रोगाक आळाबंदा हाडूंक पिकाचेर १% बोर्डो मिश्रण तीन-चार सप्तकांच्या अंतरान दोन-तीन खेपे हॅक्टरी ३००-६०० लि. ह्या प्रमाणांत फवारतात वा ३०० मॅश गंधक हॅक्टरी २४-२९ किग्रॅ. प्रमाण दोन-तीन पिकांचेर फवारतात.

**मूळकूज :** मॅक्रोफोमिना फेसिओलाल ह्या कवकाक लागून खोडाचो जमनीकडलो आनी मुळाचो भितरलो भाग तपकिरी रंगाचो जाता. अशा वेळार मुळां कुसतात आनी झाड सुकता. हाचेर उपाय म्हणून पिकाचो फेरबदल करप, पेरणे आदीं बिंयांक पारोयुक्त कवकनाशक लावप आनी रोग प्रतिकारक प्रकारांची लागवड करप.

**तांबेरा :** पाक्सिनिया अरॅकिडिस ह्या कवकाक लागून हो रोग जाता. हाचेर उपाय म्हणून १ किग्रॅ. डायथेन एम्. ४५ हें कवकनाशक ५०० लिटर उदकांत भरसून फवारतात.

**पर्णगुच्छ :** भिकणाच्या झाडाक हो रोग लागतकच झाडाक ल्हान ल्हान आकाराचीं पानां आनी खांदयो येतात आनी तेंगशेर जायतीं ल्हान पानां आनी खांदयो येवन झाड गुच्छावरी जाता. ह्या झाडांची वाड जायना. अशीं झाडां दिसूंक लागतकच तीं हुमटावन उडोवंक जाय.

**किडी :** भिकणाच्या झाडाचेर मावा, पानां गुठलावपी कीड, भिकूण, वाळटी सारकिल्यो किडी दिश्टी पडटात. ह्यो किडी आळा हाडपाक डी.डी.टी, बी. एच्. सी. ह्यो फॉस्फोमिडॉन, डायमेथोएट, मिथिलाडिमेटॉन, थायोमॅटॉन वा मॅलॅथिऑन, क्लोरोडॅन, हांचो फवारो मारतात.

- प्रो. एस. जी. बोरुडे

**भिकणां - २ :** पणसाच्या बियांक भिकणां (पणसा-भिकणां) म्हण्टात. हीं भिकणां भाजून, उकडून तशेंच रोसांत आनी भाजयेंत घालून खातात.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद** ः पणस.

**भिकारी :** येणावळीचें साधन नाशिल्लो, कश्ट करपाचे परिस्थितींत नाशिल्लो अपंगूळ, जिणेच्यो मुळाव्यो गरजो (चड करून अन्न आनी वस्त्र) भागोवपाक दुसऱ्याकडेन मदतीची याचना करता ताका भिकारी म्हण्टात. याचनेचे हे क्रियेक भीक मागप म्हण्टात.

शक्य आसा तांणी जोडप आनी कुंटुंबांतल्या सगळ्यांनीच वांटून खावप ही एकत्रित कुटुंब पद्दत वचून खाजगी मालमत्तेची कल्पना अस्तित्त्वांत येत सावन भीक मागपाची पद्दत अस्तित्त्वांत आयली.

सोंपेपणी आनी गरज नासतना भिकेचेर जगप मनशाच्या स्वभावाक लागून व्हडलेशें मानवपासारकें ना. कांय आडवाद सोडले जाल्यार भौतेक लोक उपाय ना म्हणून भीक मागतना दिसतात. अशें आसलें तरी समाजीक भलायकेचे नदरेन भीक मागप हे प्रवृत्तीचें समर्थन करूंक उपकारना. हे खातीर सरकारान भीक्षाबंदीचे कायदेय केल्ले आसात. तेभायर भीक मागपाचो प्रसंगूच येवंचो न्हय वा तशी प्रवृत्ती निर्माण जावंची न्हय म्हणून समाजीक संरक्षण दिवपाच्या हेतून अशा मनशांखातीर पुनर्वसणुकेचें कार्य समाजीक तशेंच सरकारी पांवड्याचेर चालू आसा.

भीक आनी दान हांचो लागींचो संबंद दिसता आसलो तरी ह्या दोन क्रियांमदीं मुळावो असो फरक आसा. भीक हे क्रिये फाटल्यान असहाय्यतेंतल्यान आयिल्लो नाईलाज आसता, जाल्यार दान हे क्रियेफाटल्यान धर्मीक अधिश्ठानांतल्यान आयिल्ली आपखोस आसता. भीक हे क्रियेकडेन एक लजेची क्रिया म्हणून पळोवप जाता जाल्यार दान हे क्रियेकडेन एक उदात्त क्रिया म्हणून पळयतात. दान हे क्रियेक पुण्यायेचो संदर्भ आसा तसो भीक हे क्रियेक ना.

- कों. वि. सं. मं.

**भिकूण :** विभागः आर्थरोपोडा; वर्गः इंसॅक्टा; गणः हेमिप्टेरा; जातीः सायमॅक्स; प्रजातीः लेक्ट्युलॅरियस.

भिकूण हो प्राणी उपोश्ण आनी समशीतोश्ण कटिबंधांनी सगळ्याक सांपडटा. पुर्विल्ल्या काळांत ग्रीक आनी रोमी लोकांक तांचेविशीं म्हायती आशिल्ली. उपरांत ते आशिया, यूरोप आनी अमेरिका खंडांनी पातळ्ळे. आयज तांचें प्रमाण दक्षिण आशिया आनी आफ्रिकेंत चड वाडलां.

भिकूण हो रगतशोशक जीव सुरवेक कुकडां, माजर, हुंदीर, सोंसो, घोडो हांच्या रगताचेर वाडलो आनी उपरांत मनशाच्या सहवासांत आयलो. सुमार एक वर्स तो उपाशीं रावपाक शकता. हाका लागून एका प्रदेशांतल्यान दुसऱ्या प्रदेशांत तो सहज पावपाक शकता. मादी फावटीक २०० ते ५०० तांतयां घालता. हाका लागून तांचें प्रमाणूय रोखडेंच वाडटा. भिकूण चड करून वण्टीच्या खांचींनी, खाटीच्या आनी कदेलांच्या बुराकांनी तशेंच कुलच्यांवांच्या वा शेंदऱ्यांच्या देगांनी रावतात. कपडे, सामानसुमान वा फर्निचर हांचे वांगडा ते एके सुवातेसावन दुसरे सुवातेर पावतात. ते दिसाचे लिपून रावून रातचे भायर सरतात. रातचे तशेंच दिसाचेय काळख्या सुवातांनी ते मनशांक चाबतात.



भिकूण हो पातळ, लांब वाटकुळोसो प्राणी. तांबशा रंगाचो आसता. ताची लांबाय सुमार ४ ते ५ मिमी. इतली आसता. ताची कूड तकली, मान आनी धड अशी विभागिल्ली आसता. तकलेक बारीक दोळे आनी ल्हान ल्हान मिशयो आसतात. ताचे पांय मोटवे आनी आंगार बारीक केंस आसतात. ताचे कुडींत एक खाशेले तरेचो पदार्थ आसता. हाका लागून ताका चिड्डितकूच घाण येता. मनशाचें तापमान आनी ताच्या बसपाचो दाब पळोवन भिकूण लिपिल्ले खांचींतल्यान भायर येवन ताचें रगत शोशण करता मनशाक चावचे पयलीं एक खाशेलो पदार्थ तो चावता ते सुवातेर सोडटा. हाका लागून भिकूण चावता तेन्ना मनशाक चड दुखना. पूण उपरांत तो चावता त्या भागार कात तांबडी जाता आनी थंय खाज सुट्टा. हे तांबडे दादड कांय दीस तशेच उरतात.

जे सुवातेर सुमार २१°सॅ. तापमान आनी खूब अन्न मेळूंक शकता. थंय मादी तांतयां घालता. चड थंड सुवातेचेर मादी तांतयां घालिना. तेच प्रमाण उपाशीं आशिल्ली मादीय तांतयां घालपाचें बंद करता. तांचीं तांतयां लांब आनी धवीं आसतात. ६-१७ दिसांनी तांतयां फुटून तातूंतल्यान बारीक बारीक जीव भायर सरतात. ते धवशा रंगाचे आसतात. सुमार एका म्हयन्यान ते व्हड जातात. एका वर्साक भिकणांच्यो तीन वा चार पिळग्यो जातात. भिकणांक लागून विंगड विंगड प्रकारांचीं दुयेंसां जातात

अशें शास्त्रज्ञाचें मत आसा.

घर वेवस्थीत दवरून वा वेळार मारून भिकणांक पयस दवरूं येता. पूण घरांत एकदां भिकूण जाले म्हण्टकूच तांचो नाश करपाक खूब कुस्तार जाता. भिकूण जाल्ले सुवातेर किटकनाशकां क्लोरडान, लिंडॅन वा डायझिनॉन, मॅलॅथिऑन हांचे सारिकिल्लीं प्रभावी किटकनाशकां वापरून तांचो नाश करूं येता.

- एस्. आर्. गनिहार.

## भिखारीदास : (जल्म : सुमार १७०३; मरण : सुमार १७५१).

हिंदी साहित्यांतलो एक श्रेश्ठ दर्ज्याचो आचार्य, ग्रंथकार आनी कवी. दास हें ताचें उपनांव आनी 'भिखारीदास' हें पुराय नांव. ताचे जिणेविशींची निश्चीत अशी म्हायती मेळना. पूण ताच्या 'काव्यनिर्णय' ह्या ग्रंथाच्या आदारान ताच्या चरित्राविशीं थोडी म्हायती मेळटा. ताच्या बापायचें नांव कृपालदास. तो कायस्थ आशिल्लो. भिखारीदासाचो जल्म प्रतापगढा लागसार टोंग्या वा टेउंगा नांवाच्या गांवांत जालो अशें कांय अभ्यासक मानतात. प्रतापगढचो राजा पृथ्वीपतिसिंह हाचो धाकटो भाव हिंदुपतिसिंह हाचो भिखारीदास हो आश्रित आशिल्लो. ताचे काव्य रचणुकेचो काळ १७२९ ते १७५१ असो मानतात. ताच्या मरणाविशींय निश्चीत तीथ, वर्स वा सुवात कळना. पूण ताचो निमाणचो ग्रंथ 'शृंगारनिर्णय' रचतकच म्हळयार १७५० वर्सा उपरांत, कांय वर्सांनी ताका मरण आयलें आसूं येता. कारण ह्या ग्रंथा उपरांत ताची वट्ट ग्रंथ रचणूक ना. तशेंच, कांय अभ्यासकांच्या मताप्रमाण, ताका भभुआ, जिल्हो-आरा (बिहार) हे सुवातेर मरण आयलें. आयज लेगीत आराक भिखारीदासाच्या नांवाचें एक देवूळ आसा आनी दर वर्सा वैशाख शुध्द तिरोदशीक म्हळयार भिखारीदासाचे जल्मतिथी दिसा थंय एक यात्रा भरता आनी तातूंत ताच्या काव्याचें वाचन जाता.

भिखारीदासाचे कांय म्हत्वाचे ग्रंथ अशे आसात- 'रससारांश' (१७३४), 'शब्द-नाम-प्रकाश' (१७३८), 'छंदोर्णव पिंगल' (१७४२), 'काव्यनिर्णय' (१७४६), 'शृंगारनिर्णय' (१७५०), 'विष्णुपुराण भाषा' आनी 'शतरंजशतिका'. भिखारीदासाच्या कांय ग्रंथांविशीं अभ्यासकांचें एकमत ना. कांय अभ्यासक 'छंद प्रकाश', 'बागबहार', 'रागनिर्णय', 'ब्रज माहात्म्य चंद्रिका', 'पंथ पारख्या', 'वर्णनिर्णय' आनी 'रघुनाथ नाटक' हेय ग्रंथ भिखारीदासाच्या नांवाचेर आशिल्ल्याचें सांगतात. पूण कांय अभ्यासकांचें हेविशीं एकमत ना. 'रससारांश' आनी 'शृंगारनिर्णय' ह्या दोन ग्रंथांनी नायक-नायिकाभेदांचें विस्तारान वर्णन आसा. नायिका भेदा उपरांत सखी आनी दूत हांचेय तातूंत वर्णन आसा. 'काव्यनिर्णय' ह्या ग्रंथांत २५ उल्लास आनी १२१० पद्यां आसात. ह्या ग्रंथांत काव्याचें स्वरूप आनी शब्दसामर्थ्य हांचें वर्णन आसा. 'विष्णुपुराण' भाषा ह्या ग्रंथांत विष्णुपुराणांतल्या कथांचो अणकार आसा तशेंच 'शतरंजशतिका' ह्या ग्रंथांत बुध्दिबळाच्या खेळाचें वर्णन आसा.

भिखारीदासाच्या काव्यग्रंथांत कुशल बुद्दी, प्रतिभाविलास आनी कवित्व दिश्टी पडटा. कठीण आनी बळिश्ट अशे विशय ताणें सादेसोंपे रितीन मांडल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## भिडे, गणेश रंगो : (जल्म : ६ जून, १९०९, अष्टे (सांगली); मरण : ८ जून १९८१. मुंबय).

नामनेचो मराठी विश्वकोशकार. ताचें चडशें वास्तव्य कोल्हापूरांत गेलें. एम. ए. बी. टी. इतलें ताचें शिक्षण जालें. मॅट्रिके उपरांत तो प्रभात फिल्म कंपनींत काम करतालो. हें काम करता आसतना विणकाम, रांदपाशास्त्र ह्या विशयावयलीं पुस्तकां तशेंच हाऊसहोल्ड एन्सायक्लोपिडिया पळोवन, मराठींतूय अशे तरेचीं पुस्तकां आसप गरजेचें अशें ताका दिसूंक लागलें. ह्या विचारान ताणें दोन दिसांभितर सुमार ३५ विशयांची वळेरी तयार केली. उपरांत २० एप्रिल १९३१ दिसा मा. त्र्यं. पटवर्धन हाचे अध्यक्षतायेखाल एका सुवाळयांत वेव्हारीक ज्ञानकोश मंडळाची स्थापणूक केली. २० मार्च १९३३ दिसा, ह्या मंडळाचें रुपांतर 'लिमिटेड कंपनी' त जालें आनी १९३५ वर्सा ह्या कोशाचो पयलो खंड उजवाडा आयलो. इतले मजगतीं, १९३२ वर्साच्या अदमासाक ताणें 'सिनेमासृष्टी' हें मराठींतलें चलचित्रां विशींचें पयलें नेमाळें सुरू केलें.

भिडेन सगळयाक भोंवून वेव्हारीक ज्ञानकोशाची विक्री केली. वेव्हारीक म्हळयार जिणेक गरज आशिल्लें, अशें ज्ञान दिवपी. लिखाणाचो बरो दर्जो, चित्रां आनी चरित्रां, बरी बांदावळ आनी उणें मोल हीं ह्या कोशाचीं खाशेलपणां आसात.

भिडे हाणें, तीन खंडांनी बालकोश उजवाडावपाचें थरयलें. पूण १९४२ वर्सा ह्या कोशाचो फकत पयलोच खंड उजवाडा आयलो.

स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत भिडे हाणें 'अभिनय मराठी ज्ञानकोश' ह्या नवें गिन्यान दिवपी कोशाची रचणूक करपाची येवजण आंखली. पूण केंद्र शासनाच्या धा हजार रुपयांच्या आदारान ह्या कोशाचे फकत पांच खंड उजवाडा आयले.

पुण्याच्या 'केसरी' आनी 'त्रिकाल' ह्या दिसाळयांचो खबरांकार म्हणून ताणें काम केलें. तशेंच 'सेवक', 'पुढारी' आनी 'उषःकाल' ह्या नेमाळयांनीय ताणें काम केलें.

ताचें उजवाडा आयिल्लें लिखाण अशें आसा -

१) वेव्हारीक ज्ञानकोश (खंड १-५), १९३५-१९४०. २) बालकोश (खंड-१), १९४२. ३) अभिनव ज्ञानकोश (खंड १-५), १९६३-१९७९.

४) फोटो कसे घ्यावेत ? ५) सावरकरसूत्रे, ६) कोल्हापूर दर्शन (पु.ल. देशपांडे हाच्या आदारान),१९७१. ७) कलामहर्षी बाबूराव पेंटर, १९७८.

- कों. वि. सं. मं.

**भिरंड :** (मराठी : कोकम, रातांबा; गुजराती ; हिंदी : कोकम; कन्नड : भुर्जिन हळ्ळी, मुरगळ्ळे; संस्कृत : तिंतिडिका, आम्लबीज, अल्यमला; इंग्लीशः कोकम बटर ट्री, वायल्ड मँगोस्टीन, मँगोस्टीन ऑयल ट्री; लॅटीनः गार्सीनिया इंडिया; कूळ : गटिफेरी).

सदांच पाचवेंचार उरपी झाड. ताचें मुखेल मूळ १-२ मी. लांब, २०-३० सेंमी. रूंद आसता आनी तें सरळ जमनींत वता. ताका कडांनी बारीक मुळां येतात. खोड सादारण २०-३० सेंमी. रूंद, १५-१८ मी. लांब सरळ, भायले वटेन काळसर आनी भेगाळ जाल्यार भितरले वटेन हळदुवसार आसता. ताका मदीं मदीं १-२ मी. लांबायेच्यो खांदयो आसतात. पाना तरनीं आसतात, तेन्ना तांबशीं आनी उपरांत गाड पाचवीं जातात. तीं लांबशीं ६-७ सेंमी. लांब, एकामेकां सामकार आसतात. फुलां ल्हान, २सेंमी. लांब, हळदुव्या रंगाचीं, पानांच्या खांचींनी जातात. पिकिल्ल्या फळाचो रंग जांबळट तांबडो. तातूंत ५-८ बियो आंबट रोसाच्या कप्प्यांत चेपिल्ल्यो आसतात. फळाचो आकार वाटकुळो आसता.

भिरंडाचो उगम भारतांत कोंकण, कारवार, मलबार आनी गोंय आसून ताची लागवड भारतावरी चीन, मलाया, जावा आनी सिंगापूराक व्हड प्रमाणांत जाता. ताका गार्सीनिया हे वंशवाचक लॅटीन नांव गार्सीय द ओर्त ह्या पुर्तुगेज वैजाच्या नांवावयल्यान पडलां. गोंयांत ६९१.५४ हॅ. वाठार भिरंडांचे लागवडीखाल आसा. गोंयांत भिरंडांचें उत्पन्न ७६.३५ टन सोलां आनी ७४.६९ टन बियो इतलें आसा. गोंयांत भिरंडांची खाशेले पद्दतीन वा आरक्षित वाठारांत लागवड केल्ली दिसना. भाटांनी काजूच्या रेंदांनी, जळींमळीं भिरंडांचीं झाडां वाडिल्लीं आसतात.

आदीं भिरंडांची लागवड बियांपसून करताले. पूण सद्या ती मृदुकाश्ठ कलमापसून करतात. ही पद्दत कोंकण कृषी विद्यापिठान सोदून काडली. फळांतल्यो बियो काडटकच त्यो माती आनी शेणखत ३:१ ह्या प्रमाणान प्लास्टिकच्या पोतयांनी घालून तातूंत बियो किल्लत घालतात. किल्लत घालचेपयली दोन दिसां आदीं त्यो उदकांत भिजयल्यार बेगीन किल्लतात. बियांपसून भिरंडांची लागवड करची आसल्यार एका वर्सांचीं रोंपां वापरतात. ह्या रोंपांनी ५०% नर आनी ५०% मादी रोंपां आसतात. मादी रोंपांपसून भरपूर रोंपां मेळटात. बियांपसून तयार जाल्ल्या रोंपांनी नर-मादी वळखुपाक कळना. देखून खात्रीचीं रोंपां मेळपाखातीर कलमांचो वापर करचो पडटा. शिंया तेंपार डिसेंबर ते जानेवारी म्हयन्यांनी 'भेट कलम' वा मृदुकाश्ठ कलम केल्यार खूब प्रमाणांत यश येता.

भिरंडांच्या झाडाक भरपूर पावसाच्या उश्ण दमट वाठारांतलें हवामान मानवना. बरे निचऱ्याचे मध्यम प्रतीचे जमनींत हें झाड बरें जाता. चड करून मे म्हयन्यांत भिरंडांची लागवड करतात. दोन ओळींनी आनी रोंपांमदीं ६X६ मी. अंतर दवरून ६०X६०X६०सेंमी. च्या नेमांत रोंप रोयतात. रोंप रोवचेआदीं नेमांनी शेणखत, एक कील सुपर फॉस्फेट आनी वाळटेपसून रोंपाची राखण करपाक दर नेमांत १०० ग्रॅम बी.एच.सी पावडर घालतात. रोंपां लायतकच घट्ट दामून तांकां बडयेचो आदार दिवंक जाय. झाडांत नर-मादी हांचें प्रमाण १:१० इतलें आसता. नर झाडां आसल्यार तांचेर खुंटी कलम करून तांचें मादी झाडांमदीं रुपांतर करूंक मेळटा. रोंपां लायतकच ७-८ वर्सां उपरांत ताका फळां लागतात. ऑक्टोबर-नोव्हेंबर म्हयन्यांनी फुलां येवपाक लागतात आनी तीं फेब्रुवारी-मार्च मेरेन चालू उरतात. मार्च ते जून म्हयन्यामेरेन फळां काडपाक तयार जातात. पाचव्या रंगाचीं तरणीं फळां पिकतकच तांबडीं जातात. बरे तरेन जतनाय घेवन वाडयल्ल्या झाडाक ८०-९० कील फळां लागतात. पिकिल्ल्या भिण्णांपसून सोलां करतात. जेवणांत आमटाण येवपाखातीर सोलांचो उपेग करतात. भिण्णांच्या सोलांपसून कडी (सोलकडी, तिंवळ) करतात. भिण्णांच्या सोलांक बाजारांत खुबूच मागणी आसा. भिण्णांचीं सोलां करपाची पद्दत अशी : फळां पिकतकच तीं झाडावयल्यान काडून तीन दीस सावलेंत घालतात म्हणजे तीं पिकतात आनी बिलबिलीत जातात. तेन्ना तांच्यो साली काडून त्यो वतांत सुकयतात. बियांसयत गर पाटल्यांत भरून पाटल्यापोंदा आयदन दवरतात. अशे तरेन पाटल्यांतल्या गराचो सगळो रोस (आगळ आयदनांत एकठांय करतात. सुकिल्ल्या फळांच्यो साली ह्या आगळांत बुडोवन परत सुकयतात अशें तीन-चार वेळा करतकच सोलां तयार जातात. सोलांत १०% मॅलिक आम्ल आनी थोडें टार्टारिक आम्ल आसता.

पिकिल्ल्या फळापसून 'अमृत कोकम' हें रुचीक पेय तयार करतात. भिरंडांच्या फळांत आशिल्लो आंबट रोस पोटाचे विकार, आंग दुखप, काळजाचें दुयेंस हांचेर परिणामकारक थरता. शिंया दिसांनी ओठ, हात-पांय फुटुंक जायनात देखून भिरंडांच्या बियांच्या तेलाचो उपेग करतात. भिरंडांच्या बियांपसून तयार जावपी तेलाक (भिंडेल) परदेशांत मागणी आसा. ह्या तेलाचो उपेग चॉकलेट, मिठाय, वखदां, मलमां आनी सौंदर्य प्रसाधनां तयार करपाक जाता. भिण्णां बियांतलें तेल काडून उरिल्ली पेंड गोरवांचें खाण म्हणून उपेगाक हाडटात.

भिरंडांच्या झाडाक कीड-रोग सोंपेपणीं जायना. भिरंडांच्या बियांमदीं २६ ते २७% तेल आसता. ताका 'कोकम बटर' अशें म्हण्टात. पिकिल्ल्या भिरंडांच्या फळांत ८७-५०% उदक, १६.४४% घट्ट घटक, ८.१५% साकर, ३.३६% आंबसाण, २.९८% साय तशेंच दर १०० ग्रामांफाटल्यान ९०४ मि. ग्रॅम 'क' जीवनसत्व आसता.

- यादवेंद्र देसाय

**भिल्ल** : भारतांतली एक अनुसुचीत जमात. अरवली, विंध्य आनी सातपुडा पर्वतांवयले दाट रानवटी सडे हीं तांचीं रावपाचीं मूळ ठिकाणां, पूण ह्या लोकांची वसती चड करून कर्नाटक, गुजरात, मध्य प्रदेश, आंध्र प्रदेश, राजस्थान, महाराष्ट्र आनी त्रिपुरा ह्या राज्यांनी आसा.

भिल्लांची पुर्विल्ल्या इतिहासाविशीं खास अशी म्हायती मेळना. पुर्विल्ल्या काळांत मध्यपुर्वेकडल्यान आयिल्ल्या प्रोटो ऑस्ट्रलॉयड लोकांचे भिल्ल, कोळी आनी शबर हे वंशज अशें मानववंशशास्त्रज्ञांचें मत. पुर्विल्ल्या संस्कृत आनी उपरांतच्या अपभ्रंश साहित्यांत भिल्ल ह्या उतराचो अर्थ रानवटी असो आयला. वैदिक वाङमयांत भिल्लांचो उल्लेख निषाद म्हणून आशिल्ल्याचें विद्वान मानतात. विल्सन हाच्या मतान भिल्ल हें उत्तर द्रविडी भाशेंतल्या 'विल्लू' वा 'बिल्लू' (धोणुबाण) ह्या उतरासावन आयलां.

**भिल्लांची उत्पत्ती** : इ. स. १५व्या शेंकड्यांत गुजरातांतलो रेवाकांठा हो भाग मुसलमानांच्या शेकातळा गेलो आनी इ. स. च्या १७व्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन थंय मुसलमानांचो शेक चालू उरलो. ह्या काळांत जायत्या भिल्लांनी मुसलमान धर्म आपणायलो. ह्या मुसलमान भिल्लांक खानदेशांत तडवी भिल्ल अशें नांव आसा. ह्याच काळांत भिल्लांचो थळाव्या राज्यकर्त्यांकडल्यान खूब छळ जालो. ताका लागून ते बंड करून उठले आनी लुटालूट करूंक लागले. हेखातीर बऱ्याच भिल्लांची हत्या जाली. तेन्ना खूबशा भिल्लांनी दोंगरांचो आलाशिरो घेवन संद मेळटा तेन्ना सपाटेवयल्या प्रदेशांत येवन लूट करप, गोरवां चोरून व्हरप, प्रवाशांक लुटप, तांकां मारप, अशें करपाक सुरवात केली आनी मध्य भारतांत बरोच खवदळ घालो. फुडें ब्रिटिशांनी तांचेकडेन बरे संबंद जोडून, शरण आयिल्ल्या भिल्लांक माफ केले. तांकां कसपाखातीर जमनी तशेंच बीं-बियाणां आनी बैल घेवपाखातीर दुडूय दिले. जेम्स औट्राम हाणें तांची सैन्यांत भरती केली आनी तांचीं वेगळीं पथकां उबारलीं.

भिल्लांची भास भिल्ली आसून तिच्यो अहिराणी, पावरी ह्यो बोलीभासो आसात. भिल्लांच्या प्रदेशांत वीस-पंचवीस मैलांचेर भिल्ली भाशेचें स्वरूप इतलें बदलता, थंय गेल्ल्या परक्या भिल्लाकूय ती बोली परकी दिसता. मुळांत भिल्ली भास मुंडाजा भाशेसावन आयली अशें ग्रिअर्सन हाचें मत आसा. भिल्ल गरासिया, ढोली भिल्ल, डुंगरी भिल्ल नेवासी भिल्ल, ताडवी भिल्ल, रावळ भिल्ल, भिलाला, भिल्ल मीना ह्यो भिल्ल जमातीच्यो पोट जमाती आसात. भिल्ल प्रोटो-ऑस्ट्रलॉयड वंशांतले आसून काळसर रंग, लांब तकली, चेपटें नाक, वाटकुळें उबें मुखावळ आनी मध्यम उंचाय हीं तांचीं कांय शारिरीक खाशेलपणां. पूण विंगड विंगड भागांतले भिल्ल दिसपाक वेगळे आसात. गुजराती भिल्ल मोटवे, रूबाबदार आनी चपळ आसतात. खानदेशांतले भिल्ल मध्यम उंचायेचे, काळे, रूंद नाकाचे, पोल्यांचीं हाडां वयर आयिल्लीं, चपळ आनी काटक जाल्यार राजस्थानांतले भिल्ल रंगान उजळ असतात. सादारणपणान सगळ्यो भिल्ल बायलो उजळ रंगाच्यो, मोटव्यो आनी बांदेसूद आसतात. सामान्यपणान भिल्ल आळशी, बेबदे, बेफिकीर, उधळे, प्रामाणिक आनी आनंदी वृत्तीचे आसतात.



भिल्ल दादलो आनी बायल

दोंगुल्ल्यांच्या देंवत्यांचेर उदक आशिल्ले सुवातेर भिल्ल लोक रावतात. तांचीं घरां गटागटांनी पसरिल्लीं आसतात. माती, शेण, फातर, पानां, कोंडे, सुकिल्लें तण हांच्या आदारान ते घरां बांदतात. तांच्या ल्हान घरांक 'पाल' अशें म्हण्टात. मध्य प्रदेशांतल्या भिल्लांच्या घराक 'मेडी' अशें म्हण्टात. लाकडाच्या सांगाड्यांचेर, शेणमातयेन सारयिल्लें, कोंड्यांच्यो वणटी अशें तांच्या घरांचें स्वरूप आसता. तें लांकडी चौथऱ्याचेर बांदिल्लें दोन मजली आसता. हे लोक रातीचे वयल्या मजल्यार रावतात आनी सकयल गोरवांक बांदतात.

प्रदेशाप्रमाण भिल्लांच्या भेसांत फरक आसता. भिल्लांचे पोटिआवाल आनी लंगोटिया अशे दोन भेद आसतात. साबरकांठा, राजस्थान आनी उत्तर पंचमहाल ह्या भागांतले भिल्ल पोटिआवाल म्हळ्यार धोतर न्हेसपी. ते धोंपरामेरेन धोतर न्हेसून अर्द्या हातांचो सदरो घालतात आनी माथ्याक फेटो बांदतात. तांच्यो बायलो घागरो आनी उकते फाटीचो पोलको घालतात. उदेंत पंचमहाल, मध्य प्रदेश आनी खानदेशांतल्या दोंगरी वाठारांनी रावपी लोक हे लंगोटिया आसतात. ते लंगोटी न्हेसतात आनी तिचे फाटींफुडें पदर सोडटात. ते आंगार एक उपरणें घेतात आनी माथ्याक

फेटो बांदतात. तांच्यो बायलो कास मारून घागरो न्हेसतात आनी दाट निळ्या वा तांबड्या लुगटाचो पोलको घालतात.

दक्षिण भारतांतल्यो आनी गुजरातांतल्यो कांय भिल्ल बायलो साडी-पोलको न्हेसतात आनी साडयेचो पदर माथ्यावयल्यान घेतात.

भिल्ल दादल्या-बायलांक अलंकारांचीं खूब आवड. दादले कानांत बाळी आनी हातांत रुप्याचीं कडीं तशेंच मुदयो घालतात. बायलो कांकणां, हातांतलीं कडीं, कानांत रुप्याच्यो वा (कथिलाच्यो) बाळी, नाकांत नथ, गळयांत कंवचेच्या मणयांच्यो, खड्यांच्यो वा शिंपल्यांच्यो माळो आनी हांसळी नांवाचो रुप्याचो वा (कथिलाचो) हार घालतात. दादले आनी बायलो आंगार पाडून घेतात.

गांवाच्या मुखेल्याक 'वसावो' म्हण्टात. भुतांखेतांचेर भिल्ल लोकांचो खूब विस्वास. भुतांखेतांक ते मातयेचीं आयदनां, घोडे दितात. दिवाळी, दसरो आनी होळी हे हिंदूंचे सण ते मनयतात. तशेंच महादेव, राम, कालिका, इंद्राज ह्या देवांक ते भजतात. ते भायर महाराष्ट्र आनी गुजरातांत डुंगऱ्या देव, शिवऱ्या देव ह्या देवांकूय ते भजतात.

परंपरीक लग्न पद्दतींत वधूमूल्य दितात. हे पद्दतीबगर आनिकूय लग्नपद्दती आसात, त्यो अशोः सेवा-लग्न, अदलाबदल लग्न, घुसखोरी लग्न, जबरी लग्न. मध्य प्रदेशांतल्या भिल्ल लोकांभितर बयव वा शादी, नत्र, उदल वा आइवराई, घरजमाई, भगोरिया, धिजिल्ल्य आनी झगडा अशे लग्नाचे स प्रकार आसात. भिल्ल कुटुंबाक 'वासिलु' म्हण्टात. संततीचे इत्सेन वा कामाखातीर हक्काचो मनीस मेळचो ह्या हेतान दादले एकेकदां एकापरस चड बायलो करतात. चड करून पयले बायलेचे भयणीकडेन वा नात्यांतलेच बायलेकडेन लग्न जातात. दोनूय बायलांक वेगवेगळें घर मेळटा. पूण तें एकूच घर अशें मानतात आनी पयले बायलेचे आज्ञेंत हेर बायलो रावतात. गुरवारपणांत पांचव्या म्हयन्यासावन गर्भ जीव धरता हे समजुतीन गर्भपात करिनात. बाळंटेरा उपरांत चार वा पांच दीस सुयेर पाळटात आनी पांचव्या दिसा बारसो करतात.

भिल्ल लोकांभितर ल्हान भुरग्याक मरण आयल्यार पुरतात आनी जाणट्यांक लासतात. बायल-घोव हांचेमदल्या एकल्याक मरण आयल्यार मडें व्हरचे पयलीं जितो आशिल्ल्या एकल्याक थोडो वेळ मेल्ल्या मनशाम्हऱ्यांत न्हिदचें पडटा. उपरांत मेल्ल्या मनशाक हून उदकान न्हाण घालतकच ताच्या तोंडांत नाणें दवरतात. बाराव्या दिसा सोयऱ्यांक, इश्टांक जेवण घालतात. १४ दीस सुतक पाळटात. बुरुडाकडल्यान निसण करून घेतात. हे निसणीच्या आदारान मृतात्मो सर्गांत वता अशी तांची समजूत आसा.

स्वांतत्र्या उपरांत भारतांतले बदलपी समाजीक आनी अर्थीक परिस्थितीचो भिल्लांचे आदिवासी जिणेचेर परिणाम जाला. 'भारत सेवक समाज', 'भिल्ल सेवा मंडळ' ह्या समाजीक संस्थांनी भिल्लांचे जिणेंत सुदारणा घडोवन हाडल्यात. भिल्ल लोकांमदल्या कांय सुशिक्षीत लोकांनी जालोद (गुजरात) हे सुवातेर १९५४ वर्सा आदिवासी भिल्ल पंच ह्या नांवान एक परिशद भरयली आनी वधूमूल्याचे रकमेचेर नियंत्रण घालें. कांय को-ऑपरेटिव्ह क्रॅडीट सोसायट्यो भिल्ल लोकांक उण्या दरान रिण मेळचेखातीर वावुरतात.

- कों. वि. सं. मं.

## भिसे, रघुवीर दत्तू :

(जल्म : २८ नोव्हेंबर १९२८, कोठंबी-केपें).

सुटकेझुजारी. नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. सुटके झुजारी मोहन नायर हाच्या फुडारपणाखाल तो वावर करतालो. चिंचोणे पुलीस ठाण्याचेर ताणें स्फोट घडोवन हाडलो. ५ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा मडगांव नगरपालिकेकडेन ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. पुलिसांनी ताका धरलो. ताका न्यायालयान सात वर्सां सादे बंदखणीची ख्यास्त आनी दोन वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## भींग :

एक वा दोन वक्रपृश्ठांनी अंतरीत केल्ल्या पारदर्शक माध्यमाच्या खंडाक भींग अशें म्हण्टात.

कंवचेचो पोकळ गोल पारदर्शक द्रवान भरलो जाल्यार तातूंतल्यान वस्तू (तांच्यो प्रतिमा) व्हड जाल्ल्यो दिसतात. ही गजाल पुर्विल्ल्या ग्रीक आनी रोमन शास्त्रज्ञांक खबर आशिल्ली. इ. स. १५० त टॉलेमी (क्लॉडियस टॉलेमस) ह्या फामाद ग्रीक शास्त्रज्ञान आपल्या optics ह्या ग्रंथांत अशा गोलांच्या कांय गुणधर्मांचें वर्णन केलां. इकराव्या शेंकड्यांतल्या अलहॅझेन (इब्न अल हैथम) ह्या अरब शास्त्रज्ञानूय आपल्या ग्रंथांत ह्या स्वरुपाच्या भिंगाविशीं चर्चा केल्ली आसा.

वक्लांच्या बहिर्गोल भिंगांविशींचो उल्लेख मायन सर हाणें तेराव्या शेंकड्यांत केल्लो आसा. तशेंच अंतर्गोल भिंगांचो निर्देश निकोलाऊस फोन कुझा हाणें पंदराव्या शेंकड्याच्या मध्याक केला. हाचे उपरांत भिंगाच्या उपेगान दूरदर्शक, सुक्ष्मदर्शका सारकिल्लीं उपकरणां तयार करपाक येतात म्हणपाचे सोद लागले. भिंगाविशींचो सैध्दांतिक वा प्रायोगिक अभ्यास पियॅर द फेर्मा, सी. एफ. गौस, जे. एल. लाग्रांझ्य, आय झॅक न्युटन, एच. एल. एफ. फोन हेल्महोल्टस, अन्स्ट ॲबे ह्या शास्त्रज्ञांनी केला.

सदच्या वापरांत येवपी भिंगां सामान्य कंवचेचीं केल्लीं आसतात. खास उपेगाखातीर क्वॉर्टझ फ्ल्युओरायट जावं प्लास्टिकाचींय भिंगां करतात. भिंगांच्यो दोनूय बाजू वक्र वा एक वक्र आनी दुसरी समतल (सपाट) आसता. वक्र बाजू चड करून गोलाचो एक भाग आसता. अशो बाजू आशिल्ल्या भिंगांक गोली भींग अशें म्हण्टात. खास उपेगाखातीर दंडगोलाकार, विवृत्ताकार (लांबवाटकुळाकार) आकाराची बाजू आशिल्लीं अगोलीय भिंगांय केन्नाकेन्नाय वापरतात.

भिंगांचें वर्गीकरण आकाराप्रमाण अशें करतात :-

मदल्या भागाचेर फुगीर आनी कडेक पातळ आशिल्ल्या भिंगांक बहिर्वक्र भिंगां अशें म्हण्टात. गोली बहिर्वक्र भिंगांचे तीन उपप्रकार आसात. ते म्हळयारः

१) दोनूय बाजू बहिर्गोल आसपी भिंगां २) एक बाजू बहिर्गोल आनी दुसरी सपाट आसपी भिंगां. ३) एक बाजू अंतर्गोल आनी दुसरी बहिर्गोल आसपी चंद्रकोरी भिंगां.



**आकृती क्र. १ गोलीय बहिर्वक्र भिंगांचे तीन प्रकारः**

(अ) दोनूय बाजू बर्हिगोल; (आ) एक बाजू बर्हिगोल आनी दुसरी सपाट; (इ) एक बाजू अंतर्गोल आनी दुसरी बर्हिगोलः क$_१$- पयलो केंद्रबिंदू, क$_२$- दुसरो केंद्रबिंदू, प$_१$- पयलो प्रधानबिंदू, प$_२$- दुसरो प्रधानबिंदू.

मदीं पातळ आनी कडेक दाट आशिल्ल्या भिंगांक अंतर्वक्र भिंगां अशें म्हण्टात. गोलीय अंतर्वक्र भिंगांचेय तीन प्रकार जातात.



**आकृती क्र. २ गोलीय अंतर्वक्र भिंगांचे तीन प्रकार :**

(अ) दोनूय बाजू अंतर्गोल; (आ) एक बाजू अंतर्गोल आनी दुसरी सपाट; (इ) एक बाजू अंतर्गोल आनी दुसरी बर्हिगोलः क$_१$- पयलो केंद्रबिंदू, क$_२$- दुसरो केंद्रबिंदू, प$_१$- पयलो प्रधानबिंदू, प$_२$- दुसरो प्रधानबिंदू.

भिंगांची वक्र बाजू वृत्तचितीच्या बाजूच्या छेदाच्या आकाराची आसत जाल्यार ताका चितीय भींग अशें म्हण्टात. हीं भिंगां अतंर्वक्र आनी बहिर्वक्र अशा दोनूय प्रकारांचीं आसपाक शकतात आनी तांचे तीन उपप्रकार जातात.



**आकृती क्र. ३ बहिर्वक्र व अंतर्वक्र चितीय भिंगां :**

१- दोनूय बाजू बहिर्वक्र; २- एक बाजू बहिर्वक्र आनी दुसरी सपाट; ३- एक बाजू बहिर्वक्र आनी दुसरी अंतर्वक्र; ४- दोनी बाजू अंतर्वक्र; ५- एक बाजू अंतर्वक्र आनी दुसरी सपाट; ६- एक बाजू अंतर्वक्र आनी दुसरी बहिर्वक्र

गोलीय बाजूची निर्मिती करप सोंपे आशिल्ल्यान गोलीय भिंगांची निर्मिती आनी वापर व्हड प्रमाणाचेर जाता. चितीय वा हेर अगोलीय भिंगां तयार करप कठीण आशिल्ल्यान तीं खूब म्हारग पडटात. देखून तीं फकत कांय खास कामांखातिरूच वापरतात.

चितीय भिंगां अक्षाक समांतर आशिल्ल्या प्रतलांतल्या किर्णांचें अभिसारण (केंद्रीकरण) वा अपसारण (पसरोवप) करपाक शकनात. अक्षाक काटकोनांत आशिल्ली प्रतलात बहिर्वक्र चितीय भिंगाची अभिसारणशक्त उणी आसून हेर दिकांनी ती इल्ली इल्ली उणी जायत वता आनी निमाणे अक्ष-समांतर दिकेक ती शुन्य जाता. अंतर्वक्र भिंगांची अपसारण शक्त हेचप्रमाण बदलत वता.

दृश्टीवैशम्य हो दोळयांचो विकार पयस करपाखातीर फावो तें शक्तीचें चित्तीय भींग वक्लांत वापरचें पडटा. तशेंच त्या भिंगाच्या अक्षाची दिकाय फावो अशीच दवरची पड्टा. जोत वा तत्सदृश विस्तृत उद्माची चितीय भिंगाक लागून मेळपी प्रतिमा रेशेच्या आकाराची आसता. हाचोय कांय जाग्यांनी उपेग जाता. सिनेमास्कोप वा तत्सदृश रूंद पट्ट्याच्या चलचित्राच्या प्रक्षेपणाखातीर आनी चलचित्र तयार करपाखातीर वापरतात त्या ॲनामॉर्फिक भिंगांच्या एका प्रकारांत चितीय भिंगाचो उपेग जाता.

सदच्या वापरांत आशिल्ल्यो कंवचेच्यो वस्तू वेपारी वा सामान्य कंवचेपसून तयार केल्ल्यो आसतात. पूण दूरदर्शक, सूक्ष्मदर्शक, कॅमेरे सारकिल्ल्या उपकरणांक लागपी वेगवेगळया प्रकाराचीं भिंगां, वर्णपटमापकाखातीर लागपी लोलक, तशेंच प्रकाशीय प्रयोगांखातीर आनी उपेगांखातीर लागपी सपाट आनी वक्र हारशे तयार करपाखातीर लागपी खास कंवचेक प्रकाशीय कंवची म्हण्टात.

प्रकाशीय कंवचेचे सादारणपणान दोन प्रकार मानतात. १) क्राऊन आनी २)फ्लिण्ट. क्राऊन कंवचेचें V मुल्यां ५० वा ताचे परस चड आसतात. जाल्यार फ्लिण्ट कंवचेचीं V मुल्यां ५० परस उणी आसतात. दूरदर्शकांक लागपी व्हड छीद्रव्यासाचीं खास प्रकाराचीं भिंगां, तेचप्रमाण सुक्ष्मदर्शकांखातीर लागपी भिंगां हीं खास अशा प्रकाराचे कंवचेपसून तयार करतात. हे कंवचेंत बेरियम ऑक्सायड, बोरेट वा बोरिक ॲनहायड्रायड आनी व्हड प्रमाणांत लॅड ऑक्सायड वापरतात.

वयर दिल्ल्या सगळया प्रकारांच्या कंवच्यांनी सिलिकॉन डायऑक्सायड ($Sio_2$) हो मुखेल घटक. १९५० त सी. डब्ल्यू. मोरी हाणें $Sio_2$च्या जाग्यार विरल मृत्तिकांच्या ऑक्सायडांचो उपेग केल्यार बऱ्या दर्ज्याची प्रकाशीय कंवची मेळटा म्हणपाचें सोदून काडलें. हे कंवचेक लँथॅनम कंवची अशें म्हण्टात. हांचे भायर आनीक कांय खास गूणधर्मांच्योय कंवच्यो तयार करतात. प्रतिमा क्षेपकांत वा सोद दिपांत (प्रकाशक्षेपक) वापरतात त्या भिंगांक तापमानांत एकदम जावपी वाडीक तोंड दिवंचें पडटा. देखून अशा वेळार उश्णतायेन जावपी प्रसरण सामकें उणें आशिल्ल्या द्रव्याच्यो कंवच्यो वापरच्यो पडटात. चड करून बोरोसिलिकेट कंवच्यो हांगा उपेगी पडटात. शुध्द $Sio_2$ विरगळावन केल्ल्या कंवच्यांचोय प्रसरण गुणांक सामको उणो आसता. तशेंच सगळया सामान्य कंवच्यांचेर किरणोत्सर्गी द्रव्यापसून येवपी किरण पडल्यार ते कंवचेक तांबसो-काळसो रंग येता. अशा किरणांकडेन संपर्क येवपी भिंगाचे कंवचेंत सिरियम हें द्रव्य घाल्लें आसल्यार हो रंग येना. वक्लांच्या भिंगांखातीर वापरतात ते कंवचेंतल्यान दोळयांक त्रासदायक जावपी किरण भितर सरचे न्हय म्हणून थोड्याशा प्रमाणांत तातूंत लोखण घालतात. दोन भिंगांमदीं पारदर्शक द्रवाचो थेंब दवरून द्रवरूप भींग तयार करतात. शुध्द उदक वा ग्लिसेरीन वापरून बऱ्या दर्ज्याचीं द्रवरूप भिंगां तयार करतात. द्रवरूप भिंगां वा विज्ञानांतल्या अभ्यासाखातीर लागपी सुक्ष्मदर्शकांनी वापरतात.

योग्य प्रकाराचीं भिंगा वक्लांनी वापरून दृश्टी दोश सुदारपाक जातात. तेचप्रमाण दृश्टी वैशम्य ह्या दोशांचेंय निराकरण वृत्त वलयी चितीय भिंगाचें वक्ल वापरून करपाक जाता. जाण्टेपणांत नेत्र-अनुकुलनाची शक्त उणी जाल्ल्यान लागींच्यो वस्तू सारक्यो दिसनात. ह्या दोशाक वृध्द दृश्टी अशें म्हण्टात. अशे व्यक्तीक योग्य सक्तीचे घन भिंगाच्या वक्लांतल्यान लागींच्यो वस्तू सारक्यो दिसतात पूण पयसुल्ल्यो दिसनात. पयसुल्ल्यो वस्तू दिसपाखातीर ताका ऋण (Negative) भिंगाचें वक्ल वापरचें पडटा. अशीं दोन वक्लां वापरप त्रासदायक आशिल्ल्यान बेंजामिन फ्रँक्लीन हाणें १७९४ त एकाच वक्लाचे चौकटींत वयल्या अर्द्या भागांत पयसुल्लें दिसपाचें भींग आनी सकयल्या अर्द्या भागांत वाचपाखातीर योग्य अशें भींग बसयलें. अखंड कांचेंतलीं द्विकेंद्री भिंगां १९०० वर्साच्या सुमाराक माल्कम बेंटझन आनी ए. एच. एमर्सन हाणें ब्रिटनांत वापरांत हाडलीं. हे पद्दतींत एकेच कंवचेचेर लागींचें पळोवपाखातीर चड घन शक्तीचो भाग आनी पयसुल्लें पळोवपाखातीर उणे घन शक्तीचो वा जाय तितल्याच ऋण (Negative) शक्तीचो भाग वापरतात.

वितळ जोडयेच्या द्विकेंद्री भिंगांचो सोद अमेरिकेंत जे. एल. बॉर्श हाणें १८९९त लायलो. ह्या प्रकारांत उणें प्रणमनांक आशिल्ले कंवचेक चड प्रणमनांक आशिल्ले कंवचेचो एक कुडको भट्टेंत विरगळावन जोडटात. भींग तयार करतना ह्या चड प्रणमनांकयुक्त भागाचेर लागींच्यो वस्तू पळोवपाखातीर घन शक्तीची वक्रताय आनी उरिल्ल्या भागाचेर पयसुल्ले दृश्टीखातीर उणे शक्तीची वक्रताय निर्माण करतात. कांय लोकांक अशा द्विकेंद्री भिंगान सामकें लागींचें वा सामकें पयसुल्लें दिसपाक शकता. पूण भोंवतणच्यो वस्तू सारक्यो दिसनात. ताचे खातीर त्रिकेंद्री भिंगां तयार करतात. अशा भिंगांनी वेगवेगळया शक्तींचे तीन विभाग केल्ले आसतात.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक बुबळाच्या नितळ मंडलाचेर चिकटून बसपी स्पर्श भिंगां वापरांत येवपाक लागलीं. ह्या प्रकारचीं कंवचेचीं भिंगां खुबूच म्हारग पडटात आनी तीं रोखडींच फुटपाकूय शकतात. देखून आता प्लास्टिकाचीं स्पर्श भिंगां वापरतात. भींग सांच्यांत ओतून तयार करतात आनी मागीर तें हून करून ताचेर जाय तितलो दाब दिवन वापरप्याच्या बुबळाचेर तें सारकें बसतलें असो ताका आकार दितात.

दिपगृहाखातीर लागपी भिंगां व्हडलीं अशिल्ल्यान तांचें वजनूय चड आसता. एके अखंड भरीव कंवचेच्या कुडक्यापसून अशें भींग तयार करप वजनाक लागून शक्य जायना. सदचे पद्दतीन भिंगां तयार करपापरस एका फाटो फाट एक अशीं समकेंद्री कडीं तयार केल्यार भिंगाचें वजन खुबूच उणें करपाक जायत अशी युक्ती १७४८ त जी. एल. एल. द ब्यूफाँ ह्या फ्रेंच शास्त्रज्ञान सुचयली. हे सुचोवणे प्रमाण ए. जे. फ्रॅनेल हाणें १८२० त दिपगृहाखातीर लागपी आनी वजनान हलकीं अशीं भिंगां तयार केलीं. अशा भिंगांक फ्रॅनेल भिंगां अशें म्हण्टात.

हालीं तेंपार दिपगृहाक लागपी भिंगांचे छेद कंवचेच्या योग्य अशा वक्र दांड्यापसून तयार करतात. हे छेद वेगवेगळे घांसून तांकां चकचकसाण दितात आनी धातूचे चौकटींत हे छेद बसयले उपरांत एकसंघ भींग तयार जाता. सांच्याचो वापर करून तयार केल्ले एकसंघ कंवचेचे फ्रॅनेल भिंगाचे जायते उपेग आसात. प्लास्टिकापसुनूय फ्रॅनेल भींगां

तयार करतात. ह्या भिंगांचो उपेग घर्शीत कंवचेच्या पङ्ग्याचो वापर करपी रिफ्लॅक्स कॅमॅऱ्यांतलें क्षेत्र भींग, ल्हान उजवाडझोत क्षेपक, क्ष-किरण सावळे चित्रक्षेपक, रेल्वे आनी रस्त्यावयल्या नियंत्रण दिव्यांचीं भिंगां, विमानतळावयले प्रदीपन हांचेखातीर करतात. चंदीगढच्या सॅंट्रल सायंटिफिक इन्स्ट्रूमॅंटस ऑर्गनायझेशन हे संस्थेन प्लास्टिकाचीं फ्रॅनेल भिंगां तयार करपाचें तंत्र विकसीत केलां.

मोटारीच्या फुडल्या व्हडल्या दिव्यांक बसयतात तीं व्हडली भिंगां फ्रॅनेल भिंगांच्या जातींतलीं आसतात. हातूंत समकेंद्री कडीं नासतात. जाल्यार ल्हान ल्हान चवकोनी भाग आसतात. दिव्यांतल्यान भायर सरपी उजवाड रस्त्याचेर केंद्रीत करपाक येता वा एके वटेन घुंवडावपाक येता अशे तरेन ह्या भागांची रचणूक केल्ली आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**भीम :** पांच पांडवांतलो दुसरो पांडव. ताच्या चड खावपाच्या गुणाक लागून ताका 'वृकोदर' (लांडग्याभाशेन पोट म्हळयारूच लक्ष्यार्थान भूक आशिल्लो), 'भीमसेन' अशींय नांवां आसात. पुराणकथेप्रमाण पंडुची बायल कुंती हिका वायुदेवतेपसून जाल्लो चलो. भीम ह्या उताराचो संस्कृत अर्थ भीषण असो जाता.

पांडवांभितर, भीमाचें शारिरीक बळगें खूब आशिल्लें. ताका उमेद आनी युयुत्सू वृत्ती आशिल्ली. खड्गझूज, रथांतल्यान करपाचें धोणू-बाणांचें झूज आनी गदाझूज हातूंत तो खांपो आशिल्लो. शर्यातीचो वंशज शुक तशेंच बलरामाकडल्यान ताणें गदाझुजाचें खास शिक्षण घेतिल्लें. द्रोणाचार्य आनी कृपाचार्य हांचेकडल्यान तो शस्त्रास्त्रविद्या शिकिल्लो. दुर्योधनान ताका मारपाचे खूब यत्न केले. भुरगेपणांत दुर्योधनान ताका वीख दिवन उदकांत उडयतकच भीम नागलोकांत पावलो आनी थंय वासुकीन दिल्ले आठ अमृताचे कुंभ पियेतकच ताका हजार हतयांचें बळ मेळ्ळें अशी एक कथा आसा.

भीमाच्या धोणवाचें नांव वायव्य आनी शंखाचें नांव पौंड्र आशिल्लें. गदा हें ताचें मुखेल शस्त्र आशिल्लें. ताच्या बावट्याचेर शिंवाचें चित्र आशिल्लें आनी रथाचे घोडे काळया रंगाचे आशिल्ले.

भीमान धृतराष्ट्राचे शंबर पूत तशेंच हिडिंब, बक, किर्मीर, जीमूत, जरासंध, कीचक आनी अनुकीचक हांचो वध केलो. दुःशासनाचें हर्डें फोडून रगत पियेवप आनी त्या रगतान द्रौपदीची विणी घालप, दुर्योधनाची मांडी फोडप ह्या कर्तुबांवयल्यान ताची क्रूरताय कळटा. तशेंच ताची प्रतिज्ञापुर्तीची कुवत, इत्सा आनी सूडवृत्तीय समजता. तो खूब तापटूय आशिल्लो. पूण मनाक पटनाशिल्ल्या धर्माच्या आज्ञांचेंय ताणें पालन केलां.

लाक्षाघरांतल्यान सुटका करून घेवपाखातीर तें पेटोवप, परमळाच्या रानांतल्यान हजार पाकळयांचीं कमळां द्रौपदीखातीर हाडप, अज्ञातवासांत बल्लव आनी जयेश ह्या नांवांनी विराटाचे पाकशाळेचो मुखेल जावप, राजसूय यज्ञावेळार उदेंतेकडलीं राज्यां जिखप, अश्वत्थामा नांवाचो हत्ती मारून अश्वत्थामा मेल्ल्याची घोशणा करप, चित्रसेन गंधर्वाच्या चपक्यांतल्यान दुर्योधनाक सोडोवप, अश्वत्थामाच्या मस्तकांतलो मणी हाडून द्रौपदीक दिवप हीं ताचीं कृत्त्यां नावाजिल्लीं आसात. धर्मराजान युवराज म्हणून भीमाचो अभिशेक केल्लो.

भीमाक तीन बायलो आशिल्ल्यो. हिडिंबापसून घटोत्कच, द्रौपदीपसून सुतसोम (महाभारताप्रमाण) वा श्रुतसेन (भागवत तशेंच मत्स्यपुराणाप्रमाण), काशिराजाची चली जलंधरा हिचेपसून शर्वत्रात अशे तीन चले जाले.

जिणेच्या निमाणें द्रौपदी आनी आपल्या भावांवांगडा मेरू पर्वत चडटना हेर सगळया उपरांत पूण धर्मराजापयलीं भीम पडलो. मरणा वेळार ताची पिराय १०७ वर्सांची आशिल्ली अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

एकदां व्यासाचे सांगणेवयल्यान सगळया एकादशींचें पुण्य दिवपी निर्जला एकादस भीमान केल्ली देखून ज्येष्ठ शुध्द एकादशीक 'भीमजलाकी एकादस' आनी दुसऱ्या दिसाक 'पांडवदुवादस' अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**भीष्म :** कुरू कुळांतलो राजा शंतनू आनी गंगा हांचो पूत आनी महाभारतांतली नामनेची व्यक्ती. हाचें मूळ नांव देवव्रत. गंगेचो पूत म्हणून ताका गंगेय वा नदीज अशीं नांवां मेळ्ळीं. जाल्यार शंतनूचो पूत म्हणून शांतनव अशें नांव मेळ्ळें. आपलो बापूय आनी सत्यवती हांचें लग्न जावंचें आनी तिच्या बापायचे अटीप्रमाण तिच्या पुताक राज्य फावो जावंचें म्हणून ताणें जिवीतभर ब्रह्मचारी रावपाचो सोपूत घेतलो. हे प्रतिज्ञेक लागून ताका भीषण (भयंकर) ह्या अर्थाचें 'भीष्म' हें नांव पडलें.

भुरगेपणांत गंगेकडेन आसतना भीष्मान वसिष्ठाकडल्यान सगळया वेदांचें शिक्षण घेतलें. ताणें बृहस्पती आनी शुक्राचार्याकडल्यान हत्यारांचें (शस्त्रास्त्रांचें), परशुरामाकडल्यान राजधर्म आनी अर्थशास्त्राचें, चवन भार्गवाकडल्यान सांगवेदाचें आनी मार्कंडेयाकडल्यान यतिधर्माचें ज्ञान घेतिल्ल्याच्यो कथा पुराणांत मेळटात. झूजविद्या, राजनीत, अध्यात्म, धर्म, अर्थशास्त्र ह्या मळावयलें ताका खोलगिन्यान आशिल्लें.

कुरूवंशांतल्या शंतनूपासून तें दुर्योधना मेरेन चार पिळग्यांची ताणें जतनाय घेतली. चित्रांगद आनी विचित्रवीर्य ह्या सवती भावांपासत अंबिका आनी अंबालिका ह्यो बायलो ताणें जिखून हाडल्यो. धृतराष्ट्र,

पंडू आनी विदूर हांचो सांबाळ, शिक्षण आनी लग्नां ताणेंच केलीं. कौरव-पांडवांच्या शिक्षणाची ताणेंच बरे तरेन वेवस्था केली.

आमरण ब्रह्मचर्याचे प्रतिज्ञेकडेन तो एकनिश्ठ रावलो. परशुरामान ताका अंबेकडेन लग्न जावपाची आज्ञा केली पूण तांणे ती न्हयकारली. शंतनून सत्यवतीकडेन लग्न जावंचे पयली भीष्माचो युवराज म्हणून अभिशेक केल्लो पूण ताणें केन्नाच राज्य आपणायलेंना. निमाणेमेरेन ताणें दुसऱ्या कोणाक तरी गादयेर बसोवन आपणें ताका आदार दिलो.

विचित्रवीर्या उपरांत पंडूक ताणें राज्यार बसयलो. पंडूच्या मरणा उपरांत राज्य धृतराष्ट्राच्या हातांत गेलें. उपरांत कौरव हे पांडवांचेर अन्याय करतात अशें दिसना फुडें ताणें दोगांकूय सांबाळून धरपाचो यत्न केलो. कौरव-पांडवांमदीं झगडीं जावंची न्हय म्हणून ताणें खूब यत्न केले.

महाभारत झुजांत पयले धा दीस तो कौरवांचो सेनापती आशिल्लो. झुजाच्या धाव्या दिसा अर्जुनान शिखंडी आड रावून ताचेर बाण मारलो. शिखंडी हो एक बायल अशें भीष्म मानतालो देखून ताणें शिखंडीचे फाटले वटेनच्यान आयिल्ल्या बाणांक विरोध केलोना. ताका लागून तो घायाळ जावन जमनीर पडलो. माघांतले शुध्द अश्टमीक विनशन नांवाच्या वाठारांत ताणें जीव सोडलो. चित्रावशास्त्रींच्या मताप्रमाण मरणा वेळार ताची पिराय सुमार १८६ वर्सां आशिल्ली जाल्यार इरावती कर्वे हिच्या मताप्रमाण त्यावेळार ताची पिराय उण्यांत उणी ९० ते १०१ वर्सां इतकी आशिल्ली.

माघ शुध्द अश्टमीक भीष्माश्टम अशें मानतात. गुजरातांत भीष्माश्टमी दिसा भीष्माचे प्रतिमेची पुजा करतात. उत्तर भारतांत 'भीष्मपुजा' नांवाचें एक व्रत करतात. कुरूक्षेत्राच्या वाठारांत भीष्मशरशय्या नांवाचें एक तीर्थक्षेत्र आसा.

भीष्म हो सत्यनिश्ठ आनी शास्त्रनिश्ठ आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**भुरग्याचें मानसशास्त्र :** (पळेयात मानसशास्त्र).

**भुलाबाई :** महाराष्ट्रांतली एक देवी. भिल्लिणीचो भेस करून भिल्लाच्या रुपांत आशिल्ल्या शंकराक भुलोवपाक आयिल्ले पार्वतीक भुलाबाई हें नांव पडलां. ती भुलाबाई जाली म्हणून शंकराक भुलोबा म्हणूंक लागले.

खानदेशांत आनी विदर्भांत, भुलाबाई देवीचो खूब प्रचार आसा. भाद्रपद म्हयन्यांतले पुनवेक भुलोबा आनी भुलाबाई ह्या दोगांयच्यो मातयेच्यो मूर्ती करून, सजयल्ल्या मकरांत बसोवन तांची पुजा करतात. कोजागिरी पुनवेक रातभर जागोवन वद्य पाडव्या दिसा तांचें उदकांत विसर्जन करतात.

दर दिसा सांज वेळार चलयो भुलाबाईमुखार फुगड्यो घालतात. उपरांत देवतेक निवेद्य दाखयतात. हांचे पुजेक शिव-शक्तीची पुजा अशें म्हळां. भुलाबाईचो हो सुवाळो सोळा दीस मेरेन चलता. हो एक लोकोत्सव आसून पावस आनी दाण्यागोट्याचो हाचेकडेन चड संबंद आसता अशें मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**भुशुंडी रामायण :** रसिक संप्रदायाचो एक ग्रंथ. हें एक गौण रामायण. हें रामायण भुशुंडी हाणें बरयलां देखून ह्या रामायणाक भुशुंडी रामायण अशें म्हण्टात. भुशुंडी रामायणाक मूलरामायण आनी आदिरामायण अशीं दोन नांवां आसात.

कामिल बुलकेच्या मताप्रमाण उजवाडा आयिल्लें मूलरामायण म्हळ्यार वाल्मिकी रामायणाचो पयलो सर्ग. तेच भाशेन ताच्या मतान महारामायण आनी भुशुंडी रामायण हीं दोनूय रामायणां वेगळीं आसुंये.

भुशुंडी रामायणाचेर भागवताचो खूब प्रभाव आसा. तुलसीदासानूय ह्या रामायणाचो खूब उपेग करून घेतला. ह्या रामायणांत राधेक जानकीचो अंश आनी कृष्णाक रामाचो अंशावतार मानला. भुशुंडी रामायणाचे उदेंत, दक्षिण, अस्तंत आनी उत्तर अशे चार खंड आसात. तातूंत छत्तीस हजार श्लोक आसात. भुशुंडीचें एक ब्रह्मरामायणूय आसा. तातूंत राम-रासलीलेचें वर्णन केलां.

योगवसिष्ठांत भुशुंडीचें चरित्र सांगलां तें अशें - अलंबुषा नांवाचे देवतेचें वाहन आशिल्लो चंड नांवाचो काक हो ताचो बापूय आनी ब्राह्मीच्या रथाची वाहन आशिल्ली हंसी ही भुशुंडीची आवय. काकचो पूत देखून ताका 'काक भुशुंडी' अशेंय म्हण्टात.

तुलसिदासान रामचरितमानसाच्या उत्तर कांडांत भुशुंडीच्या जल्माची कथा दिल्या ती अशी-कलियुगाच्या पूर्वकल्पांत, अयोध्येंत हो एक शूद्र म्हणून रावतालो. ताणें एकदां गुरूचो सत्कार केलोना देखून ताका श्राप मेळ्ळो आनी तो सोरोप जालो. उपरांत ताणें गुरूची आनी शिवाची चूक मागली. ताका लागून शिवाचे कृपेन तो रामभक्त ब्राह्मण जालो. फुडें लोमश ऋषीच्या शापान ताका काकयोनी मेळ्ळी.

- कों. वि. सं. मं.

**भूंय कमळ :** (पळेयात साळीक).

**भूंयकांप :** धर्तरेचो थरथर. धर्तरेच्या कच्च्यांच्या थरांमदीं कांय कारणाक लागून ताण निर्माण जाता आनी त्या ताणावरवीं धर्तरेच्या हालयल्या भूस्थरांक धपको बसता. ह्या धपक्याचो परिणाम म्हणून धपक्याचे खरायेक धरून धपक्याच्या थरावीक आवाठांत धपक्या सरभोंवतणीं कंपनां (तरंग) पसरतात. धर्तरेच्या कच्च्यांत निर्माण जावपी ताणाफाटलीं कारणां निश्चीत ना. नव्या नव्या भूंयकांपांवरवीं संशोधकांकडल्यान ह्या कारणांनी भर पडत आसा. आयजमेरेन मुखार आयिल्लीं कांय कारणां अशीं आसातः १) धर्तरेचे निर्मिती सावन धर्तरी न्हिवत राविल्ल्यान तिचें कच्चें भायल्यान आकुंचीत जायत आसा आनी ह्या आकुंचनांतल्यान कच्च्यापोंदच्या भागाची हालचाल जाता. २) धर्तरेवयल्या खडपांची एके वटेन झीज जायत आसा आनी दुसरेकडेन दर्यांत गाळ सांचून नवीं खडपां निर्माण जायत आसात. ह्या घडामोडींक लागून धर्तरेचेर एक असमतोलपण निर्माण जाता. हातूंतल्यान धर्तरेचेर ताण पडटा. धर्तरी आपले भोंवतणीं घुंवत आशिल्ल्यान, दर्याचे आनी हवेचे प्रवाह निर्माण जातात, तशेच प्रवाह धर्तरेच्या कच्च्यांत जावपाची शक्यताय आसता. भौतेक भूंयकांप दोन तरेचे धपके निर्माण करतात. मुखेल आनी नेटाच्या धपक्याआदीं पूर्व सुचोवणी दिवपी उणे खरायेचे धपके आसतात. धर्तरेच्या कच्च्यांतल्या थरांमदीं जेन्ना घर्शण निर्माण जाता तेन्ना हें घर्शण ल्हान धपके निर्माण करता आनी जेन्ना घर्शण सोंपून दोन भागांमदीं अंतर निर्माण जाता तेन्ना मुखेल आनी व्हडलो धपको बसता. मुखेल धपक्या उपरांतूय ल्हान ल्हान धपके बसूं येतात.

धर्तरेच्या कच्च्यांत जंय मुखेल हालचाल जावन धपको निर्माण जाता तो भूंयकांपाचो भितरलो केंद्रबिंदू आसता. हो केंद्रबिंदू जमनीच्या भायल्या आंगापसून ८ किमी. ते ८००किमी. मेरेनचे खोलायेचेर आसूं येता. सुमार ३-४ भूंयकांपांचो केंद्रबिंदू हो ८किमी. ते ८०किमी. मेरेनचे खोलायेचेर आसता. ह्या केंद्रबिंदूच्या माथ्यावयले जमनी (भूपृश्ठ) भायलो केंद्रबिंदू आसता. भितरल्या केंद्रबिंदूपसून निर्माण जावपी भूंयकांपाचीं ल्हारां ह्या केंद्रबिंदूपसून जितलीं पयस पावतात तितलीं तीं अशक्त जातात. तेखातीर भायल्या केंद्रबिंदूचेर जावपी भूंयकांपाची खरसाण सगळयांत चड आसता. आर. डी. ऑलडॅम हाणें हे खरसाणीचें गणित अशें मांडलां.

$$\frac{थ}{त} = \frac{खर^{२}}{र^{२}} = ज्या^{२}\,\theta$$ हाचेवयल्यान θ हो कोन मेळटा.

ख = म X स्प θ = हाचेवयल्यान नाभिची ख ही खोलाय मेळटा.




भितरलो केंद्रबिंदू, ताच्या माथ्यावयलो भायलो, ख भितरलो केंद्रबिंदू आनी भायलो केंद्रबिंदू हांचेमदलें अंतर θ भायलो केंद्रबिंदूपसून म अंतराचेर आशिल्लें ठिकाण. त भायल्या केंद्राच्या जाग्यार आशिल्ली खरसाण, र भितरलो केंद्रबिंदू आनी ३ ठिकाण हांचेमदलें अंतर.

भूंयकांपाच्या थरथरापसून वेगवेगळे गूणधर्म आशिल्ले तरंग निर्माण जातात. ह्या तरंगाची वांटणी अशी : १) मुळावे तरंग, (भूयकांप मापांत सगळयांत पयलीं दिसपी). २) तांचे फाटोफाट दिसपी द्वितीयक तरंग मुळाव्या तरंगां परस उणो वेग आशिल्लो. ३) भुंयेच्या माथ्यापोंदसून पूण माथ्याक लागींच अशे भुंयेच्या थरांतल्यान प्रवास करपी पृश्ठ तरंग.

**भूंयकांपाचे परिणाम :** भूंयकांपावरवीं धर्तरेच्या कच्च्यांत थरथर निर्माण जाता देखून माथ्यार उब्यो आशिल्ल्यो वास्तू, झाडां-पेडां, हांकां धोको उत्पन्न जाता. ह्या धोक्याचें प्रमाण भूंयकांपाच्या थरथराचे उणे-अदीक खरसाणीचेर थरता. इमारती, पूल, धरणां, उदकाचे नळ, विजेचे-फोनाचे खांबे, रेल्वेचे रूळ, रस्ते कोसळटात. दोंगरांचीं देगणांय देंवतात. धर्तरेच्या पोटांतल्या उदका सांठ्यांनीय बदल घडटा. कांय तळयांचें, बांयचें उदक आट्टा जाल्यार कांयकडेन उदक चडटा. कांयकडेन झरे फुट्टात जाल्यार कांय कडेन उदक धोस जाता.

दर्यापोंदचे जमनींत जावपी भूंयकांप व्हड व्हड ल्हारां निर्माण करतात. हीं ल्हारां दर्या देगेर येवन आदळलीं म्हण्टकच दर्यादेगेर जीव आनी वित्तहानी करतात. दर्यांतले येरादारीकूय हीं ल्हारां पिडापीड दितात. जपानी भाशेंत ह्या ल्हारांक त्सुनामी म्हण्टात. अशे तरेन बांदकामाचे झडी वांगडाच तांचे पोंदा चिड्डून मरपी मनीस तशेंच हेर जिवांचो आंकडो व्हड आसता.

**कांय म्हत्वाचे भूंयकांप :** भूंयकांपाचें शास्त्रीय संशोधन आधुनिक काळांत जावंक पावलें. भूंयकांप ही घडणूक खूब आदींसावन लोकांच्या परिचयाची. फरक इतलोच, आयज हे घडणुकेकडेन भौतेक लोक एक सैमीक बदल म्हणून पळयतात जाल्यार सुरवेच्या काळांत तांचेकडेन एक दैवी कोप म्हणून पळोवप जातालें.

संवसारीक म्हत्वाचे भूंयकांप :

| वर्स | सुवात | परिणाम |
|---|---|---|
| इ.स.प १४५० | चिमनी, इटली | --- |
| इ.स.प. २२४ | ऱ्होडझ, उदेंत भूमध्य दर्या वाठार | पुर्विल्ल्या सात अजापांतलो एक असो ३१.५मी. उंचायेचो अपोलो कलोसस नांवाचो पुतळो नश्ट जालो. |
| इ.स. ८११ | रोम, इटली | सेंट पॉलच्यो बॅझिलिका इगर्जो नश्ट जाल्यो. |

| वर्स | सुवात | परिणाम |
| --- | --- | --- |
| इ.स. ८९६ | सानरिकू, जपान | १,००० क मरण |
| इ.स. ११७० | सिसिली, इटली | १५,००० क मरण |
| इ.स. १३०३ | आलेक्झांड्रिया, इजिप्त | सात अजापांतलें एक अशें सुमार १,४०० वर्सांचें पोरनें १२०मी. उंचायेचें फॅराओस दीपग्रह नश्ट जालें. |
| इ.स. १५५० | शेन्सी, चीन | ८,३०,००० मेले |
| इ.स. १७३१ | बिजींग, चीन | १,००,००० मेले |
| इ.स. १७५५ | लिस्बन, पुर्तुगाल | २०% लोकसंख्येक त्सुनामी ल्हारान मरण. |
| इ.स. १८९७ | आसाम, भारत | सुमार ७८,००० चौ.किमी. क्षेत्रांतल्यो इमारती कोसळ्ळयो. |
| इ.स. १९०६ | सॅन फ्रान्सिको, अमेरिका - | |
| इ.स. १९०८ | मेसोना, इटली | १,२५,०००क मरण |
| इ.स. १९२० | कान्सू, चीन | १,८०,०००क मरण |
| इ.स. १९२२ | मध्य चिली | ---- |
| इ.स. १९२३ | कामाचटका, पेनिन्सुलार रशिया, जपान | इमारती कोसळ्ळयो आनी उजो लागून शारां नश्ट. २,००,००० लोकांक मरण |
| इ.स. १९३२ | जेलिस्को, मॅक्झिको | ---- |
| इ.स. १९३३ | जपाना लागसारच्या पॅसिफिक दर्यातळार | ---- |
| इ.स. १९३४ | उत्तर बिहार, भारत | १२,००० लोकांक मरण |
| इ.स. १९३७ | कलकत्ता, भारत | ३ लाख लोकांक मरण |
| इ.स. १९३८ | इंडोनेशिया लागसारच्या दर्यातळार आलास्का पॅनिन्सुला लागसार | ---- |
| इ.स. १९३९ | चिलान (चिली) | २८००० लोकांक मरण |
| इ.स. १९४४ | जपान | ---- |
| इ.स. १९४६ | जपाना लागसारच्या पॅसिफिक दर्यातळार | ---- |
| इ.स. १९४९ | क्वीन चालेंट जुंव्यार ब्रिटीश कोलोंबिया. | ---- |
| इ.स. १९५० | आसाम, भारत | ---- |
| इ.स. १९५१ | दक्षिण तिबेट | ---- |
| इ.स. १९५२ | जपान, रशिया | ---- |
| इ.स. १९५७ | ॲलेंटिया जुंवे | ---- |
| इ.स. १९५८ | कुर्ली जुंवे | ---- |
| इ.स. १९६० | अगादिर मोरोक्को, दक्षिण चिली | १२,००० क मरण |
| इ.स. १९६२ | इराण | १०,००० क मरण |
| इ.स. १९६३ | स्कॉप्ये, युगोस्लाव्हिया (कुर्ली जुंवे) | १०,००० क मरण |
| इ.स. १९६४ | दक्षिण अमेरिका | चड वस्ती नाशिल्ल्यान प्राणहानी उणी |
| इ.स. १९६५ | ॲलेंटिया जुंवे | ---- |
| इ.स. १९६७ | कोयनानगर भारत | इमारतींची मोडतोड, ११५क मरण, १५०० जखमी |
| इ.स. १९६८ | जपाना लागसारच्या पॅसिफिक दर्यातळार | ---- |
| इ.स.१९७० | उत्तर पेरू | ७०,००० क मरण |
| इ.स. १९७६ | ग्वातेमाला | २२,७७८ क मरण |
| इ.स. १९७६ | तंगशान चीन | २,४०,००० क मरण |

| वर्स | सुवात | परिणाम |
|---|---|---|
| इ.स. १९७७ | सम्बावा जुंवे इंडोनेशिया | ---- |
| इ.स. १९७८ | ईशान्य इराण | २५,००० क मरण |
| इ.स. १९८८ | वायव्य अमेरिका | २५,००० क मरण |
| इ.स. १९८९ | मक्केरिया जुंव्या लागसारच्या दक्षिण पॅसिफिक दर्यातळार | ---- |
| इ.स. १९९० | वायव्य इराण | ५०,००० लोकांक मरण |
| इ.स. १९९३ | किल्लारी भारत | ३०,००० लोकांक मरण, १०,००० जखमी, इमारतींची मोडतोड. |
| इ.स. १९९७ | उत्तर इराण | १५०० लोकांक मरण |
| इ.स. १९९८ | इशान्य अफगाणिस्तान | २३०० लोकांक मरण |
| इ.स. १९९८ | मध्य बोलिव्हिया | ८४ लोकांक मरण |
| इ.स. १९९९ | तैवान | सुमार २५,००० लोक मेले. |

भूंयकांपाची खरसाण सुरवेक भूंयकांपाच्या परिणामाच्या लुकसाणे वयल्यान थरयताले. पूण उपरांत भूंयकाप मापांत नोंद जाल्ले थरथराचे खरसाणी वयल्यान भूंयकांपाची खरसाण थरोवप जालें. एस. एस. द रोस्सी (इटली), एफ. ए. फोरेल (स्वित्झर्लंड), जी मेरकाल्ली (इटली), एच. ओ. वूड, एफ. नोयीमान आनी हेरांनी भूंयकांपाची खरसाण मेजपाच्या उपकरणाचो सोद लायलो. चार्ल्स एफरिस्टर (अमेरिका) हाणें १९३५त ह्या उपकरणाच्या सिध्दांतांत नवी भर घाली. भूंयकांपाच्या केंद्र बिंदूपसून सुरू जावपी ह्या केंद्राचे सरभोंवतणीचो थरथर एकसारको नासता. केंद्रबिंदू ते भूंयकांपाची जाणविकाय जाल्लें निमाणें ठिकाण हाचे मदले सुवातेचे पांवडे करून, दर एका पांवड्या कणकणीं भूंयकांपाची खरसाण गणितशास्त्राच्या आदारान मेजपाचो मापक्रम रिक्टर हाणें तयार केलो. होच मापक्रम सर्वमान्य जालो.

**भूंयकांपाची भुगोलीक वांटणी :** दर वर्सा सुमार ल्हान-व्हड अशे संवसारांत धा लाख भूंयकांप जातात असो अदमास आसलो तरी तातूंतले एक दोनूच अनर्थ घडोवपी आसतात.

भूंयकांपाच्या अभ्यासावयल्यान एक गजाल दिसल्या ती म्हळयार भूंयकांपाचें प्रमाण थरावीक अशा वाठारांनीच चड आशिल्लें दिसता. ज्या वाठारांनी जागृत ज्वालामुखी वा उणी-चड हालचाल चालू आशिल्ल्या भूपट्ट्याची शीमरेशा आसता अशा वाठारांनी भूंयकांपाचें प्रमाण चड दिसता. १८५० उपरांतच्या शंबर वर्सांच्या काळांत जाल्ल्या भौतेक भूंयकांपांचे केंद्रबिंदू पेसिफिक परिवेश्टी पटो, भूमध्य सामुद्रिक आनी आशिया सक्रामी पटो हातूंत आस्पावल्ल्या आलास्का, अल्यूशन जुंवे ते न्यूझीलंड मेरेनचे जुंवे, सुंदा आनी इंडोनेशियाचे जुंवे, उत्तर अमेरिकेची उदेंत शीम, कॅरिबियन जुंवे, अँटार्क्टिकाचो ग्रॅहम भूभाग, उत्तर अफ्रिका आनी युरोपाचे आझोरीश जुंवे, आल्प्स पर्वतांपसून आशिया मायनर कॉकिशस, इराण, बलुचिस्तान, पामीर, हिमालय, तिबेट, चीन, तियेनशान पर्वत, मोंगोलिया, ब्रह्मदेश (मियानमार) आनी इंडोनेशिया ह्या वाठारांनी दिसता.

भारतांत हिमालय पर्वत हें एक धोक्याचें भूंयकांप मळ. तेभायर उत्तर बिहार, आसाम, उत्तर प्रदेश, कांग्रा देगण, काश्मीर, कच्छ आनी अंदमान हे भूंयकांप-पिडेस्त विभाग आसात.

१९६६ मेरेन भारताचो दक्षिण सडो हो भूंयकांप जायनाशिल्लो वाठार अशें समजप जातालें. पूण १९६७ त कोयना नगरांत (महाराष्ट्र) जाल्ल्या आनी १९९३ त किल्लारी (महाराष्ट्र) वाठारांत जाल्ल्या भूंयकांपांनी हो प्रदेश भूंयकांपापसून सुरक्षीत ना अशें दाखोवन दिलें.

**भूंयकांपाचें पुर्वानुमान :** हुंवार, चक्रीवादळां सारकिल्या आपत्तीच्या आगमनाची दोन-चार दिसां आदीं सुलूस लागता तशी भूंयकांपाची सुलूस लागना. भूंयकांपाचें पुर्वानुमान करप शक्य जाल्लें जाल्यार भूंयकांपावरवीं अनर्थ टाळूं येताले. पूण भूंयकांपाचेर संशोधन करपी संशोधकांनी आपले यत्न चालूच दवरल्यात. १९६० पसून भूंयकांप जाल्ल्या वाठारांचो अभ्यास केले उपरांत, भूंयकांपाचें आदींफुडेंच निदान करपाक उपेगी पडपी म्हायती हाताक लागत आसा. खरें म्हणजे भूंयकांप जावंचे पयलीं थंयच्या भूगर्भांतल्या खडपांतल्यान चलपी तरंगाच्या वेगांत जाल्लो बदल स्पश्टपणान दिश्टी पडटा. तशेंच, खडपांच्या विद्युत् आनी चुंबकीय गुणधर्मांनी लक्षणीय बदल जाणवता. तशेंच, भूगर्भांतल्या उदकांत रॅडॉन ह्या किरणोत्सर्गी वायूचें प्रमाण व्हड प्रमाणांत वाडिल्लें दिसता. हें प्रमाण बांयच्या उदकाचे तपासणेंतल्यान समजूंक शकता. खरें म्हणजे, धक्को बसचे पयलीं आनी धपको बसले उपरांत भूंयकांपाच्या वाठारांत एके वेगळेच तरेची झगझगीत अशी प्रकाश दिप्ती मळबांत दिशिल्ल्याची नोंद जाल्ली आसा. भूंयकांप जावंचेआदीं थोडो वेळ हुंदीर, सोरोप हे बिळाभायर सरतात; पारवे, सोंशे सारकिल्ले प्राणी भियेल्ले अवस्थेंत वावुरतात. मनशापरस प्राण्यांक वातावरणाच्या बदलाचो अदमास चड बरो आनी बेगीन कळटा देखून तांच्या वागपांत हे बदल घडटात आसुंये. भूंयकापाचें पुर्वानुमान करपाक ही म्हायती आदार अशें धरून संवसारांतले सगळेच संबंदीत संशोधक संशोधन करीत आसात आनी हे म्हायतीच्या आदारान भूंयकांपाचें नियंत्रण करपाचे उपाय सोदून काडपाचे यत्नूय तांणी चालू

दवरल्यात. भूस्थरांतल्या अस्थीर घटकांमदल्या ताणावरवीं भूंयकांप निर्माण जाता. देखून हो ताणूच उणो करून भूंयकांपाची खरसाण देंवोवपाचे प्रयोग चालू आसात.

**सुरक्षित बांदकामां :** भूंयकांपाचें पुर्वानुमान जाणा जावन घेवपाच्या कामांत अजून फावो तितलें यश मेळूंक ना. पूण जेन्ना तें मेळूंक पावतलें तेन्ना सावधगिरीचो उपाय म्हणून मनीस धरून जीवसृश्ट आनी हेर आलायत्यो वस्तू भूंयकांप पिडेस्त आवाठाभायर व्हरप शक्य जालें तरीय थीर (immovable) बांदकामां पूर्वसुचोवणी मेळून लेगीत सुरक्षीत जाग्यार व्हरप शक्य जावचेंना. अशे परिस्थितींत भूंयकांपाच्या परिणामांक नेटान तोंड दिवपाक लायक अशीं बांदकामां करपाचो विचार मुखार आयलो. ह्या संदर्भांत स्थापत्य अभियांत्रिकी ह्या विशयांतर्गत भूंयकांप अभियांत्रिकी आनी भूंयकांप प्रतिरोधक बांदकाम ह्या विशयांचो आस्पाव करप जाला.

भूंयकांप प्रतिरोधक बांदकामाच्या प्रकल्पासंबंदी वेगवेगळया देशांनी आपआपल्या वाठाराक अनुकूल अशो नेमावळी तयार केल्यात. भारतांत अशी नेमावळ १९६२ त प्रकाशीत केली आनी फुडें तातूंत नव्या नव्या नेमांची भर पडत गेली. हे नेमावळींत बांदकामाचे आराखडे, बांदकामाचे प्रकार, बांदकामाक लागपी घटकांचें प्रमाण आनी गूण तशेंच भूंयकांप जावपाची शक्यताय आशिल्ल्या सुवातींचे नकाशे दाखयतात. खंयच्याय बांदकामाचे दोन मुखेल घटक आसतात. बुन्याद आनी जमनीवयलो भाग. बुन्याद खोल आनी एकसंघ आसप बरें. जमनीवयले भाग एक तर भूंयकांपाचे धपके पचोवपा इतलो लवचीक आसचो वा धपक्याक तोंड दिवपा इतलो एकसंघ आनी सशक्त आसचो. ऊंच बांदकामांचे बाबतींत लवचीकपणापरस एकसंघ अशें सशक्त बांदकाम चड सुरक्षीत आसता. वण्टी, खांबे, पाटयो, पाखीं हे इमारतीचे घटक शिमीट, काँक्रीटच्या आनी लोखणी सरयांच्या आदारान एकसंघ उरप उण्या धोक्याचें समजतात. सरळ, लांब इमारतींच्या बदला चवकोनी वा वाटकुळया आकाराच्या इमारतींत एकसंघपण येता आशिल्ल्यान त्यो सुरक्षीत उरतात. बांदकामाची रचना जाता तितली समविभागान बुन्यादीचेर उबी उरिल्ली आसूंक जाय. खंयचेय एके वटेन चड भार दवरपी रचणूक पाऊण मीटर तशेंच इमारतीच्या मुखेल आंगापसून पाऊण मीटर भायर अधांतरी हुमकळपी गॅलरी सारकिले भाग आशिल्ल्यो इमारती तितल्यो सुरक्षीत उरनात. जनेलां, दारां सारकिल्ल्या वण्टींत पोकळी निर्माण करपी घटकांचें क्षेत्रफळ वण्टीच्या क्षेत्रफळाच्या १/५ परस चड आसूंक फावोना. घराचें पाखें वण्टीक निगडीत अशें आनी चौपाखी पद्दतीचें आसल्यार तें चड सुरक्षित आसता. दोन माळयांक जोडपी अधांतरी सोंपणांपरस बांदकामांत रिगयल्लीं सोंपणां सुरक्षित आसतात.

धरणां, पूल, बोगदे, उदका टांकयो, कारखान्यांच्यो चिमण्यो, टॉवर हे सारकिल्लीं अवजड बांदकामां करतना घेवपाचे जतनाये संबंदी नेमावळी केल्ल्यो आसात. भूंयकांपाक यशस्वीपणान तोंड दिवपाक लायक अशी वा उणें नुकसान करून घेवपी अशे तरेच्या बांदकामां संबंदी सविस्तर अशी शास्त्रीय म्हायती हे नेमावळींत दिवा[illegible]

- कों. वि. सं. मं.

**भूंयविज्ञान :** धर्तरेची म्हायती मेळोवपाचें शास्त्र. जिऑलॉजी (भूंयविज्ञान) हो Geo = धर्तरी आनी logy विशींचें गिन्यान ह्या ग्रीक उतरापसून तयार जाल्लें उतर. पंदराव्या शेंकड्यांत सुरवेक सगळया ऐहिक गजालींविशींचे म्हायतीखातीर वापरिल्लें. धर्तरेच्या एकंदर घटकांची (जमीन, उदक), तांचे उत्पत्तीची, परस्पर संबंदांची, जीव, वनस्पत हांच्या इतिहासाची शास्त्रीय म्हायती करपी हें विज्ञान. आदल्या तेंपार भूंयविज्ञानाचे प्राकृतिक आनी इतिहासीक अशे दोन मुखेल विभाग केल्ले. आतां ह्या विभागांचे साबार उपविभाग केल्ले आसून, ह्या दर एका उपविभागाचे स्वतंत्र विज्ञान फांटे जाल्ले आसात. हांच्यांतले कांय एकामेकांचेर आदारिल्ल्यान तांकां एकामेकांसावन वेगळावप खूब कठीण. प्राकृतिक भूंयविज्ञान, इतिहासात्मक भूंयविज्ञान, पुराजीवविज्ञान, अवसादविज्ञान, भूंयरूपविज्ञान, स्तरविज्ञान, भूभौतिकी, भूगणीत, भूरसायनशास्त्र, खनीजविज्ञान, स्फटीकविज्ञान, शिलाविज्ञान, पुराभूगोल, पुरापरिस्थितीविज्ञान, पुराजलवायूमान विज्ञान, अभियांत्रिकी भूंयविज्ञान, अर्थीक भूंयविज्ञान, सागरी भूंयविज्ञान, भूंयजलविज्ञान, शेतवड भूंयविज्ञान, पर्यावरणीय भूंयविज्ञान आनी भूंयवैज्ञानिक मानचित्रण हे भूंयविज्ञानाचे मुखेल फांटे.

धर्तरेच्या साप उण्या भागाचें परिक्षण करपाक मनशाक शक्य जाल्लें आसा. जाचें परिक्षण करूंक मेळटा वा परिक्षणाखातीर जाचे नमुने मेळटात असो धर्तरेचो भायलो भाग हो कांय किलोमिटर दाटायेचो तळपा भाग. ह्या भागाक धर्तरेचें कट्टें वा शिलावरण अशींय नांवां आसात. धर्तरेच्या फकत इतल्याच भागाची पुरायपणान म्हायती मेळोवपाक शक्य जाल्लें आसा. म्हणून आधुनिक शास्त्रीय वेव्हारांत भूंयविज्ञान म्हळ्यार धर्तरेच्या शिलावरणाचें विज्ञान असो मर्यादीत अर्थ घेतला. धर्तरेच्या कट्ट्याचें परिक्षण आनी संशोधन करून, पुर्विल्ल्या काळासावन इतिहासकाळाचे सुरवातीमेरेनचो कट्ट्याचो इतिहास जुळोवप हें भूंयविज्ञानाचें मुखेल कार्य. म्हासागरांच्यो द्रोणी, पर्वत हांची उत्पत्ती, उत्क्रांती हांच्या अभ्यासांत निर्माण जावपी सैमाविशींच्या प्रस्नांचीं उत्तरां सोदून काडप हो भूंयवैज्ञानिक अभ्यासाचो म्हत्वाचो वांटो. तशेंच वेव्हारांतूय भूंयविज्ञान उपेगी थरता. लोखण, तांबें, शिंशें, भांगर, रुपें आनी हेर धातूंचीं आनी हेर खनीज पदार्थ, खनीज तेल, भूमीजल सोदपाखातीर भूंयवैज्ञानिक म्हायतीचो खूब उपेग जाता. व्हड इमारती, पूल, धरणां, रस्ते, बोगदे आनी हेर बांदकामांखातीर जमनीचो योग्य वापर करचो हे नदरेन अभियांत्रिकीय भूंयविज्ञानाचो खूब आदार जाता. कांय सैमीक

संकश्टांची (देखीक- ज्वालामुखी, भूंयकांप) आदीसुचवणी दिवपाखातिरूय भूंयवैज्ञानीक अभ्यासाचो उपेग जाता.

**धर्तरेचें संघटन :** खनीजविज्ञान, शिलाविज्ञान, शिलाजनन, शिलावर्णन, धातुकनिर्मिती, तिच्यो प्रक्रिया आनी भूरसायनशास्त्र हांचो धर्तरेच्या संघटनांकडेन संबंद येता.

**खनीजविज्ञान :** खनिजांचो खोलायेन अभ्यास करप म्हळयार खनीजविज्ञान. धर्तरेचेर मेळपी खडपां वा तळपां चड करून खनिजांसावन तयार जाल्लीं आसतात. खनिजांचे भौतिक गूणधर्म, रसायनीक संघटन, तीं सैमांत कसल्या प्रकारान सांपडटात, तांकां वळखुपाचीं चिन्नां खंयचीं, तशेंच तांचो स्फटिकाकार आनी उपेग ह्या सगळयांचो अभ्यास खनीजविज्ञान करता.

आतांमेरेन सुमार ३००० खनिजांची म्हायती जाल्ली आसा. तातूंतलीं चडशीं भुंयेवयल्या खडपांत सांपडटात. भूंयकङ्ट्याच्या भायल्या भागांत खूब प्रमाणांत सांपडपी खडपांतलीं कांय खनिजां म्हत्वाचीं आसतात. खूबशा खडपांतलें खनीज संघटन जटील (Complex) आसता आनी कांय खडपांतले खनीज कण खूब बारीक आसतात. हाका लागून तांचें अध्ययन करपाखातीर खाशेल्या यंत्रांचो वापर करचो पडटा.

दर एका खनिजांतली अणूंची संरचणूक खाशेले पद्दतीची आसून आदर्श स्थितींत तिका स्फटिकाच्या (Crystalline) आकारान दाखोवप जाता. अनुकूल परिस्थितींत खनिजांतल्या अणूंचे पुरायपणान स्फटीक जाल्ले आसतात.

खडपांभितरलीं खनिजां वळखुपाखातीर विंगड विंगड प्रकाराचीं प्रभावी उपकरणां वापरतात. वेगळया वेगळया खनिजांचे स्फटीक तांच्या खाशेल्या गूणधर्मांवयल्यान वळखुपाक मेळटात. अशे तरेन खडपाचें खनीज संघटन समजूंक शकता. खनिजां कशीं निर्माण जातात हाचो अभ्यास आनी खनिजांची उत्पत्ती जाणून घेवपाखातीर भौतिकी रसायनशास्त्र आनी उश्मागतिकी ह्या विज्ञानांचो उपेग जाता.

**शिलाविज्ञान (Petrology) :** खडप वा तळप हांचो अभ्यास करप म्हळयार शिलाविज्ञान. खडपांची उत्पत्ती, खनीज संघटन, रसायनीक वा भौतिक गूणधर्म, इतिहास, तांचेमदीं जावपी बदल आनी हेर गजालींचो हातूंत आस्पाव जाता.

धर्तरेच्या कङ्ट्याच्या सगळया घट्ट घटकांक खडप वा तळप म्हण्टात. धर्तरेच्या सगळयांत भायल्या भागांतल्यान मेळूंक शकता त्या खडपांचो अभ्यास हातूंत मुखेलपणान येता. असलीं कांय खडपां खंड आनी जुंवे हांचेर उकतीं पडिल्लीं आसून तातूंत धर्तरेचो सुमार ३०% पृश्ठभाग रेवाडिल्लो आसा.

खडपां हीं खनिजांच्या कणांचे समुच्चय आसतात. चडशीं खडपां मुखेलपणान दोन ते पांच प्रकारांच्या खनिजांसावन तयार जाल्लीं आसतात. उत्पत्तीप्रमाण खडपांचे अग्निज, गाळाचे आनी रुपांतरित अशे तीन प्रकार केल्ले आसात.

**अग्निज खडप :** कडिल्ल्या खडपांचो उश्ण रोस न्हिवून घट जालेउपरांत अग्निज खडप तयार जाता. अग्निज खडपांच्या मुळाव्या उश्ण, द्रवरूप पदार्थाक शिलारस म्हण्टात. शिलारस ज्वालामुखी रुपांत भायर पडटा तेन्ना त्या रोसाक लावा अशें म्हण्टात. कांय सैमीक क्रियांक लागून धर्तरेच्या कङ्ट्याच्या सवथळ वा खोल भागांत शिलारस तयार जाता. विंगड विंगड ज्वालामुखींतल्यान भायर पडिल्लो लावा वा एकाच ज्वालामुखींतल्यान वेगळया वेगळया वेळार भायर पडिल्ले लावा एकाच प्रकाराचे आसतात अशें न्हय. तांचें रसायनीक संघटन वेगळें वेगळें आसूं येता. म्हणून ज्वालामुखींच्या लावांतल्यान साबार जातींचीं खडपां तयार जातात.

शिलारसाचो मुखेल घटक म्हळयार सिलिका (५० ते ७०टक्के). सिलिकाखेरीज ॲल्युमिना, सोडा, पोटॅश, लायम, मॅग्रेशिया आनी ऑक्सायड हांचोय कांय प्रमाणांत आस्पाव जाता. विद्रुतावस्थेंत आशिल्ली उदकाची वाफ आनी हेर वायू हेय शिलारसाचे म्हत्वाचे घटक आसात. अग्निज खडप निर्माण करपी साबार प्रक्रियांचेर तांचो प्रभाव पडटा. तशेंच शिलारस न्हिवून निमाणेकडेन तयार जावपी खडपांचें स्वरूप थरोवपाक तांचो खूब वांटो आसता. शिलारसासावन स्फटीक वा कंवची अशे प्रकारचे दोन घन पदार्थ निर्माण जावपाची शक्यताय आसता. ज्वालामुखींतल्यान भायर उसळिल्लो लावा धर्तरेच्या उकत्या जाग्यार पातळत आशिल्ल्यान तो रोखडोच न्हिवता आनी घट्ट जाता. हाका लागून स्फटीक तयार जावपाक वा ताची वाड जावपाक वेळ मेळना. लावा भिजून तयार जाल्लें खडप हें सुक्ष्म स्फटीक आनी कंवची हांचे भरसणी पसून तयार जाल्लें आसता. बेसाल्ट हें ज्वालामुखी खडपांतलें मुखेल खडप.

**गाळाचे खडप :** उक्तीं आशिल्ल्या तळपांनी वाऱ्याक, पावसाक आनी वताक लागून बदल जायत रावतात. कांय काळाउपरांत तांचे बारीक मोटे कुडके जातात. उपरांत हे बारीक कण वाऱ्यान आनी व्हांवत्या उदका वांगडा न्हंयेंत साबार कडेन वा दर्याच्या तळाकडेन सांचतात आनी कांय तेंपा उपरांत तांचे थर तयार जातात. वारो, व्हांवतें उदक वा व्हांवतो हीम हांणी व्हेल्ल्या आनी साचयल्ल्या सगळया फातरी चुऱ्याक गाळ म्हण्टात. ह्या सगळया प्रकारांच्या राशींचे घटक सुरवेक सुटे (विस्कळ) आसतात. उपरांत गाळ सांचून राशीची दाटाय वाडली म्हण्टकूच तळाक आशिल्ल्या गाळाचेर खूब भार पडटा आनी हेर साबार प्रक्रिया घडटात. हांकां लागून सुरवेक मेकळे आशिल्ले बारीक कण काळाउपरांत घट्ट दसतात आनी तांचें खडपांनी रुपांतर जाता. घटकांच्या प्रकारावयल्यान असल्या खडपांक वेगळीं वेगळीं नांवां दिल्लीं आसात. पिंडाश्म, कोणाश्म, वालुकाश्म आनी पंकाश्म हे गाळाच्या खडपांचे विंगड विंगड प्रकार. गाळवटी खडप, चुनखडप जॅलोमायट हींय गाळाचीं खडपां म्हत्वाचीं.

**रुपांतरीत खडप :** सैमिक हालचालींक लागून खडपांचे परिस्थितींत खूब बदल जाता. खडपांचेर खूब ताण पडलो वा तांचें तापमान वाडलें जाल्यार वा ह्यो दोनूय गजाली एकाच वेळार घडल्यो जाल्यार तांच्या मुळाव्या स्वरुपांत खूब बदल जातात. खडपाची मुळावी घटक मांडावळ बदलता. मूळच्या कांय सगळ्या खनिजांसावन नवीं खनिजां तयार जातात; मुळाव्या खनिजांचे स्फटिक चड मोटे जायत वतात. सादारणपणान खडपांच्या मुळाव्या रसायनीक संघटनांनी व्हडलोसो बदल जायना. पयलींच्या (अग्निज आनी गाळाच्या) खडपांनी बदल घडून तयार जाल्ल्या खडपांक रुपांतरीत खडप म्हण्टात. रुपांतरीत खडपांतलें सगळ्यांचे वळखीचें खडप म्हळयार पाटयेचो फातर (slate stone). सादारणपणान रुपांतरणाचे गतिज आनी ऊश्मीय अशे दोन मुखेल प्रकार आसात.

शिलाजनन आनी शिलावर्णन हे शिलाविज्ञानाचे फांटे. शिलाजनन हातूंत खडपांची उत्पत्ती आनी निर्मिती हांचो अभ्यास करतात. खडपांचें वर्णन आनी पद्दतशीर वर्गीकरण हांचो अभ्यास शिलावर्णनांत करतात.

**अर्थीक भूंयविज्ञान :** मनशाच्या अर्थीक फायद्याखातीर भूवैज्ञानिक म्हायतीचो खूब उपेग जाता. लोखण, तांबें, शिंशें, भांगर आनी हेर धातूंचीं धातुकां तशेंच हेर खनीज पदार्थ, खनीज वायू, भूमीजल हांचो सोद लावपाखातीर भूवैज्ञानिक म्हायतीचो खूब उपेग जाता. जमनीचो वापर करपाचे नदरेन अभियांत्रिकीय भूंयविज्ञानाची गरज पडटा. व्हड इमारती, धरणां, पूल, रस्ते, बोगदे, अणुभट्ट्यो आनी हेर बांदकामांच्यो सुवाती थरयतना तिचें भूवैज्ञानिक अध्ययन करप भोव गरजेचें आसता.

**भूंयरसायनशास्त्र :** धर्तरेचो आनी तिच्या घटकांचो रसायनाचे नदरेन जावपी अभ्यास. ह्या शास्त्रांत धर्तरेचें रसायनीक संघटन आनी तातूंत जाल्ले तशेंच जावपी बदल हांच्या अभ्यासाचो आस्पाव जाता. ह्या शास्त्राचो विकास मुखेलपणान १९३० उपरांत जालो. ह्या शास्त्राची मुखेल कार्यां म्हळयारः १) धर्तरेवयल्या मूलद्रव्यांची आनी तांच्या समस्थानिकांची सापेक्ष (relative) विपुलताय आनी प्रमाण काडप, २) धर्तरेच्या विंगड विंगड आवरणांच्या भागांतल्या मूलद्रव्यांचें जाग्याप्रमाण आनी काळाप्रमाण जाल्लें वांटणीचें स्पश्टीकरण दिवप, ३) मूलद्रव्यांची सापेक्ष विपुलताय आनी वांटणी वा स्थलांतर हांचें नियंत्रण करपी नेम सोदून काडप. हांचेखेरीज धर्तरेच्या रसायनीक उत्क्रांतीचो आनी समस्थानिकांच्या विश्वांतले थिरायेचो अभ्यास आनी अवकाशांतल्यान धर्तरेचेर पाविल्ले धर्तरेभायले पदार्थ, मिटिओरायट्स हातूंतल्या मुलद्रव्यांचो अभ्यास करतात.

धर्तरेचें स्वरूप सगळेकडेन एकसारकें नाशिल्ल्यान धर्तरी ही साबार रासायनांसावन तयार जावन तातूंतल्या सगळ्या घडामोडींनी मूलद्रव्यांचो आस्पाव जाता. हातूंतल्या साबार घडणुकांक लागून मूलद्रव्यां आनी समस्थानिक हांची खाशेली रितीन परत वांटणी जाता. भूंयरसायनशास्त्रीय अभ्यासांतल्यान ह्या घडणुकांचेर उजवाड पडटा. एफ. डब्ल्यू. क्लार्क हांच्या मतान खडप ही स्वतंत्र रसायनीक प्रणाली. हे प्रणालींत विंगड विंगड प्रकारांत बदल घडून तातूंत नवी प्रक्रिया घडून येवन रसायनीक समतोल इबाडटा आनी उपरांत नवे स्थितींत नवी प्रणाली थीर जाता. हे बदल जावपाची शक्यताय ते केन्ना आनी कशे जातात, तांच्यांत जावपी प्रक्रिया आनी निमाणेकडेन तांचो परिणाम ह्या सगळ्यांचो अभ्यास ह्या शास्त्रांत येता. खडपांची आनी धर्तरेची पिराय ह्या शास्त्राच्या आदारान सांगप शक्य जालां. तशेंच, ह्या शास्त्राच्या आदारान म्हासागराची निर्मिती आनी उत्क्रांती हांची आनी धतरेच्या भितरल्या रंगाची म्हायती मेळटा.

**धर्तरेची संरचणूक :** (जिओडेसी) धर्तरेची संरचणूक जाणून घेवपाखातीर भूगणित, भौतिकी आनी संरचनात्मक भूंयविज्ञान ह्या फांट्यांचो खूब उपेग जाता.

धर्तरेचो वा तिच्या व्हड भागाचो आकार, आकारमान, वक्रताय (curve) तशेंच भूंयपृश्ठाचेर गुरुत्वाकर्शणांत जावपी बदल हांचो अभ्यास करपी शास्त्राक भूगणित (जिओडेसी) म्हण्टात. धर्तरेसंबंदांतलीं विंगड विंगड परिमाणां मेजप, तशेंच गणितावरवीं अचूकपणान स्थान थरयल्ल्या बिंदूंच्या आदारान नकाशे, आलेख, बांदकामां, मार्गनिर्देशन आनी हेर कामांखातीर उपेग पडपी समोच्च ओळींचें नियंत्रक जाळें प्रस्थापित करप. भूंयकांप मापनावरवीं मेळिल्ले भूवैज्ञानिक स्वरुपाच्यो आनी हेर म्हायतीच्या संदर्भांत भूंयकट्टें आनी प्रावरण (धर्तरेचो खूब खोल भाग) हांचे संरचनेचो अभ्यास करपाखातीर गुरुत्वाकर्शणा भितर जावपी बदल हांचो अभ्यास करप. गुरुत्वाकर्शण मापनाच्या आदारान भूभौतिकीय सर्वेक्षण करपाखातीर गुरुत्वीय प्रवेगांचें संदर्भ जाळें तयार करप (४) कृत्रीम उपग्रहाची कक्षा बिनचूकपणान काडपाखातीर गुरुत्वीय क्षेत्राची अचूक म्हायती मेळोवप हे सगळे हेतू दोळयांमुखार दवरून भूगणिताचो अभ्यास करतात.

भूभौतिकी हातूंत भौतिकीचे पद्दतीचो वापर करून धर्तरेचो अभ्यास करतात. भूभौतिकींत धर्तरेच्या पृश्ठभागाकडेन दवरिल्ल्या उपकरणांनी मापां घेवन तांच्या आदारान भूपृश्ठाखाला खोल जाग्यार तशेंच वातावरणांत खूब उंचायेच्या पदार्थांच्या भौतिक गूणधर्माविशींचे निश्कर्श काडटात.

भूभौतिकी हातूंत हजारांनी अंश सेल्सियस तापमानाचे आनी वातावरणीय दाबाचे खूब लाखांनी पट इतलो दाब (नेट) आशिल्ल्या धर्तरेच्या गाभ्यासावन तो कट्ट्यांतलो भूखंड, सागरांचे तळ, कट्ट्याभोंवतणचें दाटायेचें वातावरण ह्या सगळयांचो आस्पाव जाता.

वेगळ्या वेगळ्या खडपांची घनताय, चुंबकत्व, विद्युत् संवाहकताय, भूंयकांप-तरंगाचो प्रसारण नेट आनी हेर भौतिक गूणधर्म वेगळे वेगळे आसतात. ह्या वेगळेपणाचेर भूभौतिकीय पद्दती आदारिल्ल्यो आसतात. हांच्या आदारान गुरुत्वमापक, परिपीडन तुला ह्या उपकरणांनी धर्तरेचें गुरुत्वीय क्षेत्र मेजून तातूंत जावपी बदल हांचो अभ्यास करतात.

**संरचनात्मक भूंयविज्ञान :** खडपांतल्या भूमितीय परस्पर संबंदाचो म्हणजेच संरचनांचो हातूंत अभ्यास करतात. सुक्ष्म तशेंच व्हड आकारमानामेरेनच्या संरचनांचो अभ्यास हातूंत जाता. संरचणूक म्हळयार किदें, ती केन्ना आनी खंयचे परिस्थितींत कशी निर्माण जाली हें जाणून घेवप, हो ह्या विज्ञानाचो हेत संरचनांचे निर्मितीच्या अभ्यासावरवीं भूतकालीन घडणुको कळपाकूय खूब आदार जाता.

खडपांच्यो राशी तयार जातना निर्माण जावपी मुळाव्यो संरचणुको आनी उपरांत विरुपणान तयार जाल्ल्यो द्वितीयक संरचणुको अशे तांचे दोन वर्ग आसात. उपरांत जाल्ले बदल गाळाच्या खडपांची नोंद करतात म्हणून संरचणुकेचे नदरेन तांचो अभ्यास खूब म्हत्वाचो. गाळाचीं खडपां, कांय लावा प्रवाह आनी अग्निदलक खडपां हीं मुळांत क्षितीजसमांतर (Horizontal) थरांच्या रुपांत तयार जाल्लीं आसतात. हाका लागून तांच्यांतली स्तरण ही संरचणूक मुळावी आसा. घडयो पडून आनी वेरो पडून अंतर्वेशन जावन स्तरीत खडपांत विरुपण जाता आनी उपरांत द्वितीयक संरचणूक निर्माण जाता.

**भूंयकङ्ग्यांत जावपी बदल :** धर्तरेच्या भायल्या कङ्ग्याचें म्हळयार भायल्या भागाचें स्वरूप थीर नासून तें बदलत आसता. जलस्थित्यंतर चक्र, झीज-भर चक्र, ज्वालामुखीक्रिया, भूसंरचनीक हालचाली ह्या सगळयांक लागून कङ्ग्यांत एकसारके बदल जायत आसतात. ह्या भायल्या भागांत जावपी बदल भायल्या आनी भितरल्या भागांतल्या क्रियांक लागून घडटात.

वातावरण, वारो, व्हांवतें उदक, ल्हारां, व्हांवतो हीम तशेंच मोनजात आनी वनस्पत हांच्या क्रियांक लागून भूपृश्ठांत खूब बदल घडून येतात. हे बदल घडोवन हाडपी कारकांक भूवैज्ञानिककारक म्हणटात. ह्या कराकांचें कार्य पृश्ठभागाचेर वा कवचांच्या पृश्ठालागच्या भागांत जायत आसतात. तांकां उत्पत्तिक आनी कार्याक फावो आशिल्ली ऊर्जा सुर्यापसून मेळटा. गुरुत्वाकर्शण होय एक म्हत्वाचो घटक आसून ह्या दोगांयचो भूवैज्ञानिक आनी जैव प्रक्रियांचेर परिणाम जायत आसता.

वातावरण क्रिया, गाळ व्हांवन वचप, क्षरण, अनावरण आनी निक्षेपण हांचो आस्पाव बाह्य क्रिया हातूंत जाता. उक्ताडार वाऱ्याक आशिल्ल्या खडपांचेर आनी सवथळ भागांचेर वत, पावस, वाऱ्याच्या तापमानांत जाल्ले बदल, हवामानांतली ओलसाण, ऑक्सिजन आनी कार्बन डाय-ऑक्सॉयड हांचे परिणाम जावन तांचेभितर साबार यंत्रीक आनी रसायनीक बदल जातात. हाका लागून तांच्या मुळाव्या घटकांचें स्वरूप ना जावन तांकां वेरो पडून तांचे बारीक बारीक कुडके जातात. हे बारीक कुडके वा कण उपरांत ल्हव ल्हव व्हांवन वतात. हुंवार येतकच न्हंयेंतल्यान खूब रेंव आनी ल्हान ल्हान फातर व्हांवन वतात. हाचो परिणाम म्हळयार न्हंयेचें पात्र खोल आनी रूंद जावन देगण निर्माण जाता.

ज्वालामुखी क्रिया, भूंयकांप आनी धर्तरेच्या कङ्ग्याची हालचाल हांकां लागून धर्तरेच्या भायल्या भागाचें स्वरूप एकसारकें बदलत आसता. हाचो आंतरिक क्रियेंत आस्पाव जाता. ज्वालामुखी विज्ञान हातूंत ज्वालामुखींची संरचणूक, तशेंच ज्वालामुखी खडप आनी तांची उत्पत्ती हांचो अभ्यास जाता. शिलारस खांचीतल्यान भायर पडलो म्हण्टकूच ज्वालामुखीचें उद्गीरण जाता. ज्वालामुखींतल्यान भायर मारिल्ले कुडके सांचून ज्वालामुखी खडपां तयार जातात. उद्गीरणांक लागून पर्वत, सड्यांसारक्यो राशी निर्माण जातात. दर्यातळाचेर अशो राशी सांचून नवे जुंवे तयार जातात. अशे रितीन जमनींत भर पडटा वा नव्यो जमनी तयार जातात.

**इतिहासात्मक भूविज्ञान :** धर्तरेचें सुरवेचें स्वरूप कशें आशिल्लें, तातूंत एकसारको बदल जावन आयचें स्वरूप कशें निर्माण जालें हे विशींची म्हायती म्हळयार धर्तरेचो इतिहास. धर्तरेच्या जल्मासावन ते आतांमेरेनचो इतिहास मुखार हाडप, हो भूंयविज्ञानाचो मुखेल हेतू. हें काम खूब कठीण. ताचेखातीर भूंयविज्ञानांतल्या सगळया साधनांचो वापर करचो पडटा. ह्या इतिहासाविशींचीं अनुमानां मुखेलपणान धर्तरी आनी हेर ग्रहांचेर मेळिल्ल्या पुराव्यांच्या आदारान करतात.

धर्तरेवयल्यो सैमीक क्रिया सुरवेक सावन चालूच आसात आनी आयच्या सैमीक क्रियांचो खोलायेन अभ्यास करून हे मेळिल्ले म्हायतीचो उपेग करून धर्तरेची पुर्विल्ल्या स्वरुपाची म्हायती मेळोवपाक जाता. १७८३ त हटन ह्या भूवैज्ञानिकान सुरवेक ही पद्दत आपणायल्ली. विंगड विंगड काळांनी तयार जाल्ल्या खडपांनी आयज तयार जावपी गाळांचे राशीप्रमाण विंगड विंगड प्रकारांचीं खडपां सांपडटात. तींय तशेच परिस्थितींत आनी तशेच रितीन तयार जाल्लीं आसात अशें धरून पुर्विल्ल्या काळांतल्या खडपांचो अभ्यास करून तीं खंयचे परिस्थितींत आनी कशीं निर्माण जालीं हें थरोवप शक्य जाता. आयच्या जागृत ज्वालामुखींसावन मेळपी म्हायतीवयल्यान ज्या प्रदेशांनी ज्वालामुखी खडप आसा पूण आतां ज्वालामुखी ना अशा प्रदेशांनी पुर्विल्ल्या काळांत ज्वालामुखीक्रिया घडटाल्यो हाचे पुरावे मेळटात.

धर्तरेच्या इतिहासाविशींची म्हायती मुखेलपणान गाळाच्या खडपांसावन मेळटा. गाळांचीं खडपां सादारणपणान स्तटीत म्हळयार थरांच्या स्वरुपांत आसतात. हांचो अभ्यास करतात ताका स्तरविज्ञान अशें म्हणटात. हातूंत गाळाच्या खडपांची मांडावळ आनी क्रम हांचो अभ्यास करतात. थरांची सुवात, उत्पत्ती, सांचपाचो अनुक्रम आनी तातूंतल्या घटकांचे संबंद थरोवपाचें काम हातूंत करतात. खंयच्याय प्रदेशाची भूवैज्ञानिक पळोवणी करतना तातूंत कसलीं कसलीं खडपां आसात आनी तीं खंयच्या क्रमान उत्पन्न जाल्लीं आसात हेंय थरोवपाचें काम स्तरविज्ञान करता. गाळ सांचपाची प्रक्रिया, गाळाचें खडपांनी रुपांतर जाता आसतना तातूंत जावपी बदल आनी हेरांचो अभ्यास अवसादविज्ञान

हातूंत जाता. जीवाश्म (fossile) हांच्या अभ्यासाक पुराजीवविज्ञान म्हण्टात. जीवाश्मांची तपासणी करून पुर्विल्ल्या काळांतल्या वनस्पतींची आनी मोनजातीची म्हायती मेळटा. हे म्हायतीवयल्यान खडपांचो सापेक्ष (relative) काळूय थरोवपाक मेळटा.

थरांचे सहसंबंद थरयतना जीवाश्मांचो वापर करतना क्रम विकासाचें तत्त्व म्हत्वाचें थरता. पयलींचे जीव निर्वंश जावन तांच्या जाग्यार चडांत चड आधुनिक जीव येतात. उणो काळ जिवीत रावन जांचो प्रसार चड भागांनी जाल्लो आसा अशा जिवांचे जीवाश्म हे स्तरवैज्ञानीक सहसंबंदांत खूब म्हत्त्वाचे थरतात. अशे जीवाश्म खाशेल्या काळाचे निदर्शक आशिल्ल्यान तांकां निर्देशक जीवाश्म म्हण्टात. पुराजीवविज्ञानाचे अपृश्ठवंशी आनी पृश्ठवंशी अशे विभाग केल्ले आसात. स्तरवैज्ञानिक सहसंबंद थरयतना पृश्ठवंशी जीवाश्मांचो चड वापर करतात. हाचें मुखेल कारण म्हळयार पृश्ठवंशी जीवाश्म वर्ग चड व्हड आशिल्ल्यान ते बरे अवतिकायेंत मेळपाची खूब आशा आसता.

खूब प्रमाणांत जीवाश्म आसा अशा खडपांतलें सगळयांत पोरनें खडप म्हळयार कँब्रियन कल्पाचें खडप. तांचेभितर दर्यांत रावपी अपृश्ठवंशी मोनजातींचे जीवाश्म खूब प्रमाणांत आसतात. पूण पृश्ठवंशी मोनजातींचे जीवाश्म नासतात. पुर्विल्ल्या विंगड विंगड काळखंडांनी विंगड विंगड जीवजाती धर्तरेचेर रावताल्यो आनी त्यो विशिश्ट क्रमान धर्तरेचेर आयल्यो, अशें जीवाश्ममय खडपांच्या परीक्षणावयल्यान सिध्द जालें आनी ह्या जीवाश्मांच्या आदारान खडपांचो काळ थरोवपाक खूब आदार जालो.

वनस्पतींच्या जीवाश्मांचो अभ्यास पुरावनस्पतिविज्ञान ह्या फांट्यांत करतात आनी आदल्या भूवैज्ञानिक काळांत धर्तरेच्या विंगड विंगड भागांनी आशिल्लें तापमान, पावस, वारें आनी हेर जलवायुमानाच्या घटकांचो अभ्यास पुराजलवायूविज्ञान हातूंत करतात. पुराभूगोल हें आदल्या काळांतल्या भूगोलाविशींची म्हायती मेळोवन दिवपी विज्ञान आदल्या काळांतलो म्हासागर आनी जमीन हांची वांटणी आनी तांच्यो शिमो, दर्याची खोलाय, जलवायुमानाची वांटणी आनी हेर म्हायती ह्या विज्ञानांत मेळटा. ज्योतिर्भूविज्ञान हातूंत मुखेलपणान सूर्यकुळांतले गिरे, उपगिरे, लघुगिरे आनी हेर खस्थ पदार्थांचो भूविज्ञानाचे नदरेन अभ्यास करतात. हातूंत मुखेलपणान सूर्यकुळांतले खस्थ पदार्थ आनी तांचें वातावरण हांचो अभ्यास करतात. तातूंत मेळिल्ले म्हायतींत धर्तरेचे उत्पत्तीसंबंदीची काय सूचक अशी म्हायती मेळूंक शकता काय, हाचो सोद घेतात. धर्तरेची पिराय, समस्थायित्व, धर्तरेचे अंतरंग, भूचुंबकत्व, खंडविप्लव, दर्यातळ विस्तारण, भूपट सांरचनिकी, धर्तरेची उत्पत्ती हांचो अभ्यास सैध्दांतिक भूयविज्ञान हातूंत करतात.

अर्थीक वा वैज्ञानिक हेतून भूवैज्ञानिक म्हायती मेळोवपाखातीर खंयच्याय प्रदेशाचें रितसर परिक्षण करप म्हळयार सर्वेक्षण. खडप, भूयरूप हांचो अभ्यास करप आनी ताका अर्थ लावप, स्थळांची आनी उकत्या पडिल्ल्या खडपांची सुवात थरोवप ही आनी हेर म्हायती आदार नकाशांत आस्पावप आनी हेर गजाली सर्वेक्षणांत करतात. भूंयविज्ञानाच्या चडशा फांट्यांनी सर्वेक्षणाचो उपेग करतात. धर्तरेची संरचणूक आनी इतिहास समजून घेवपाक सर्वेक्षणांत मेळिल्ली म्हायती खूब फायदेशीर थरल्या. भारतांतल्या विंगड विंगड विद्यापिठांनी भूंयविज्ञानाविशींचें शिक्षण दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद** ः भूगणित, भूगोल, भूराज्यशास्त्र.

**भूक** ः मनशाक तशी मोनजातीक, अन्नाचे गरजेची जाणविकाय करून दिवपी शारिरीक तशी मानसिक संवेदना म्हणजे भूक.

भूक लागली म्हण्टकच भुकेची जाणविकाय पोटांतल्या थरावीक बदलत्या क्रियांवयल्यान जावंक लागता. भूक कशी लागता हेविशीं कांय सिध्दांत मांडल्यात. भूक आनी मेंदू हांचो संबंद आसा अशें सांगपी सिध्दांताक मध्यवर्ती सिध्दांत अशें म्हण्टात. ह्या सिध्दांताप्रमाण मनशाच्या वा हेर प्राण्यांच्या मेंदवांत भूकेचे संवेदनेचेर नियंत्रण दवरपी यंत्रणा आसता. मेंदवाच्या सकयल्या भागांत Hypothalamus जाका अंधःश्वेतक अशें म्हण्टात तो भाग हेर नियंत्रणावांगडाच तान आनी भूक हांचेरूय नियंत्रण दवरता. अंधःश्वेतक हाचे दोन म्हत्वाचे भाग भुकेसंबंदान आशिल्ले कार्यपद्दतीचेर लक्ष दवरून आसतात. दोनूय वटांनी आशिल्ल्या अंधःश्वेतकाच्या वयल्या मदल्या केंद्राक (Ventro-medial nucleus) म्हळयार तृप्ती केंद्र जर नश्ट करीत जाल्यार त्या प्राण्याक वा मनशाक खूब भूक लागता. जठर भरिल्लें आसून लेगीत तो अन्नाक वखवखता. अशे स्थितींत तो एकसारको खायत रावता आनी ताका शारिरीक मोटाय येता. अन्नसेवन केंद्रांतले कोशिकेचो जर नाश केलो जाल्यार त्या प्राण्याची भूक मरता. निमाणेकडेन ताका उपासमारान मरण येता.

डब्ल्यू. बी. कॅनन हाच्या सिध्दांताप्रमाण प्राण्यांक जेन्ना भूक लागता, तेन्ना ताच्या पोटांत वळपाक लागता (Stomach Contraction). हाका लागून ज्यो कळो येतात तांकां भूककळो अशें म्हण्टात.

अंधःश्वेतक केंद्राच्यो पेशी रगतांतल्या साकरेच्या (Glucose) पांवड्यावयल्यान उत्तेजीत जातात. जेन्ना रगतांतली साकर उणी जाता तेन्ना ह्यो पेशी दुसऱ्या भागाक म्हळयार जो भाग खावपाचे संवेदनेविशीं जागरूक आसता ताका उत्तेजीत करतात. अशे रितीन भुकेची जाणविकाय जाल्ल्यान खावपाची इत्सा जाता.

जठर रितें जावपाची प्रक्रिया आनी वेळ अन्नाचेर आदारिल्लो आसता. जठरांत गेल्लें अन्न सुमार स वरांभितर रितें जाता. मनशाचे शारिरिक भलायकेवांगडा मनाचेरूय हे प्रक्रियेचो परिणाम जाता. चड भूक लागता तेन्ना मनशाक पुरो जाल्लेवरी दिसता. हेच स्थितींत तो चड

वेळ उरलो जाल्यार तो अशक्त जाता आनी कांय दिसांउपरांत ताका मरणूय येवपाक शकता.

ज्या लोकांक अन्न नासतना रावचें पडटा, तांची भुकेची संवेदना कांय दिसांनी मरता आनी जे लोक अर्दपोटार रावतात त्या लोकांची भुकेची संवदेना वाडत वता हें स्पश्ट जालां. भूक लागतकूच मनशाक अशक्तपण जाणवता, ताच्यान कश्टांचीं कामां करपाक जायनात. कांय जाणांक भूक लागले उपरांत रोखडीच कांपरी येता आनी तांचें मानसिक संतुलनूय इबाडटा.

अंधःश्वेतकाचे रुचीविशीं नियंत्रण दवरपी भागाक मार बसल्यार कुडीक अन्नाची गरज आसून लेगीत जेवपाची रूच नासता वा पोटांत अन्न आसून लेगीत परत परत जेवपाची इत्सा निर्माण जाता. कांय दुयेंसांक लागून चड भूक लागता वा भूक मरता. चड भूक लागप हाका इंग्लिशींत Polyphagia अशें म्हण्टात. गोड्यामुताच्या दुयेंसाक लागून वा मेंदवाक मार बसल्यार खूब भूक लागूंक शकता. Anovexia म्हळ्यार भूक उणी जावप. मानसीक दुयेंसां तशेंच कांय शारिरीक दुयेंसांक लागून भूक उणी जावपाक शकता.

अन्नाची जिरवण करपाची कुवत आशिल्ले पदार्थ पोटांत गेल्यार, अन्नपचन वेळाआदीं जाता आनी भुकेची संवेदना सुरू जाता. कामाच्या वा शारिरीक व्यायामाच्या प्रमाणाचेरूय भुकेची संवेदना थरता.

- डॉ. दयानंद मंगेश राव

## भूगणित

**भूगणित :** धर्तरेच्या आकाराच्या वेगवेगळ्या घटकांचो अभ्यास करपी शास्त्र. ह्या शास्त्रांत धर्तरेची फाट, फाटीपोंदचो भाग आनी गुरुत्वाकर्शण हांचो संदर्भ घेवन, नकाशे, आलेख सारकिल्ल्या मार्ग निर्देशनांचो आदार घेवन धर्तरेसंबंदींचीं वेगवेगळीं परिमाणां मेजप जातात. ह्या कामांत भूमिती, भूभौतिकी आनी ज्योतिशशास्त्र ह्या धर्तरेच्या अभ्यासाकडेन संबंदीत आशिल्ल्या शास्त्रांचो संबंद येता. हाचेच जोडयेक १९५७ वर्सासावन कृत्रिम उपग्रह ह्या चवथ्या शास्त्राचो संबंद आयलो.

धर्तरेचे फाटीर वेगवेगळ्या वाठारांतले अक्षांश, रेखांश, दर्याथरापसूनची उंचाय, गुरुत्वाकर्शण सारकिल्ल्या धर्तरेच्या घटकांचो अभ्यास करून, वास्तव उपेगाखातीर तांचें एक कोश्टक गणित मांडप हो ह्या शास्त्राचो उद्देश आसता.

आधुनिक भूगणित शास्त्राचो व्याप आनी विस्तार हो धर्तरे पुरतो उरूंक ना. ताची कक्षा धर्तरे लागींच्या गिऱ्याचो आकार, गुरुत्वाकर्शणा सारकिल्ल्याचो अभ्यास करपामेरेन विस्तारीत जाल्लो आसा.

**इतिहास :** धर्तरेचो आकार हो खूब आदींसावन मनशाखातीर एक अभ्यासाचो विशय जावन रावला. धर्तरेच्या आकारा संबंदी वेगवेगळ्या काळांत वेगवेगळीं मतां मांडिल्लीं दिश्टी पडटात. इ. स. पयलींच्या पांचव्या शतका आदीं धर्तरी सपाट आशिल्ली असो समज जाल्लो. ह्या शतकासावन पारमेनिडीस, पायथागॉरस (इ.स. आदीं ५७५-४९५), प्लॅटो (इ.स. आदीं ४२८-३४८), ॲरिस्टॉटल (इ.स. आदीं ३८४-३२२), हांणी पयलींचो समज नूल करून पृथ्वीचो आकार वाटकुळो आसा म्हणपाचें पुराव्यासयत दाखोवन दिलें. फुडें आयझॅक न्युटन (१६४२-१७२७), क्रिस्तीआन हायगेंझ (१६२९-९५) हांणी पृथ्वी वाटकुळी आसली तरी तिचो विषुववृत्तीय अक्ष तिच्या ध्रुवीय अक्षा परस मात्सो मोटो आसा अशें नोंद केलें. १६७२ वर्सा झां रिशे हाणें लंबकाचो आंदोलनकाळ अक्षांशा प्रमाण बदलता हें सोदून काडलें आनी हाचेवयल्यान धर्तरी सामकीच वाटकुळी नासुंये हें समजलें. पेरू आनी लेबलँडाक केल्ल्या भूगणितीय संशोधनांत धर्तरी ध्रुवांकडेन चेपटी आनी विषुववृत्ताकडेन फुगीर आसा म्हणपाचें समजलें. कॉपरनिकस हाचें संशोधन ह्या सिध्दांताक तेंको दिवपी थरलें. फुडें धर्तरी उत्तर ध्रुवाकडेन फुगीर जाल्यार दक्षिण ध्रुवाकडेन थोडीशी खोलगट आसा म्हणपाचें समजलें.

डब्ल्यू स्नॅल (१५८०-१६२६) हाची त्रिकोणी करणाची सर्वेक्षण पद्दत, १६६९त झां पिकार हाणें पृथ्वी मापना खातीर केल्लो दुर्बिणीचो वापर, १७९१ वर्सा मीटर ह्या एककाची निश्चीत जाल्ली लांबाय, संगणकाचो वापर आनी अशींच सुदारीत उपकरणांची पद्दती हांणी धर्तरेचो आकार आनी आकारमान मेजणेच्या कामांत खात्रीलायक अशी परिपूर्णताय हाडली. १९१९ वर्सा इंटरनॅशनल जिओडेटीक अँड जिओफिझिकल युनियन आनी हेर भूगणितीय अध्ययनाकडेन संबंदीत आशिल्ल्या संस्थांनी पद्दतशीरपणान ह्या शास्त्राचो अभ्यास चलयला.

धर्तरेवयल्या खंयच्याय वाठाराची स्थान निश्चिती, नकाशेनिर्मिती, भूभौतिकीय सर्वेक्षण ह्या सारकिल्या भूगणिती अभ्यासाचो उपेग, खनिजांचें सर्वेक्षण, रस्ते बांदणी, पूल बांदणी, धरणां बांदणी सारकिल्या प्रकल्पांत जाता. भूगणिती शास्त्रान केल्लें गुरुत्वाकर्शणाचें माप क्षेपणास्त्रांच्या माऱ्याक मार्गदर्शन करता. भूगणितीय अभ्यासाच्या आदारान धर्तरेच्या कवचांत जावपी बदलांची म्हायती जावन भूंयकांप, ज्वालामुखी, सारकिल्या आपत्तींचो अदमास लागता.

धर्तरे भोंवतणच्या गिऱ्यांकडेन संपर्क दवरपी अवकाशयानांच्या प्रवासाक भूगणितीय निरिक्षण मदत करता.

- कों. वि. सं. मं.

## भूगोल

**भूगोल :** भूगोल ह्या विशयाक 'भूगोलविद्या' वा 'भूंयवर्णनशास्त्र' अशेंय म्हण्टात. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार भूगोलाची परंपरीक व्याख्या आनी व्याप्ती हातूंत आमुलाग्र बदल जाल्ले आसात आनी जायत आसात. भूगोलाक 'शास्त्र' ह्या नांवान सुवात मेळची अशें आधुनिक भूगोलतज्ञांचें मत आसा. हालींच्या तेंपार समाजीक शास्त्रावांगडा सैमीक शास्त्राभितरूय भूगोलशास्त्राची सुवात म्हत्वाची.

धर्तरेसंबंदांतली म्हायती दिवपी शास्त्र अशी भूगोलशास्त्राची व्याख्या करूं येता. हातूंत मुखेलपणान भूंयपृश्ठवर्णनाचो आस्पाव जाता. सोंपें पडचें म्हणून हें भूंयपृश्ठवर्णन धर्तरेच्या सैमीक, भुगोलीक तशेंच राजकीय भागांची वांटणी करून करतात. भूंयपृश्ठ वर्णनांत प्रदेशांतलीं खडपां वा तळपां, हवामान, शेतवड संपत्ती-साधनां, येरादारी आनी हेर म्हायतीचो आस्पाव जाता. भूगोलशास्त्राचो दुसरो मुखेल घटक म्हळ्यार मनीस आनी पर्यावरण हांचे तांचेभितर आनी दीसपट्टे बदलत रावपी संबंद आनी ह्या संबंदांचें पृथःकरणात्मक विवेचन करप हो आधुनिक भूगोलशास्त्राचो मुखेल हेत.

**इतिहास** : आदिम काळासावन भुगोलिक धारणांचे उत्पत्तीविशीं मनशाक म्हायती आशिल्ली. वैदिक काळांत भूगोल वैदिक रचणुकेच्या रुपांत मेळटा. ब्रह्मांड, धर्तरी, वायू उदक, उजो, मळब, सूर्य, नखेत्रां तशेंच राशींचें वर्णन वेदांनी, पुराणांनी आनी हेर ग्रंथांनी दिल्लें आसा. बारीकसाणीन पळयल्यार त्या ग्रंथांनी संस्कृतीक तशेंच मानवी भूगोलाची झलक दिसता. भारतांत हेर शास्त्रांवांगडा ज्योतीश, ज्यामिती तशेंच खगोल भूगोलाचोय विकास जाल्लो. म्हाकाव्य काळांत समाजीक, संस्कृतीक तशेंच वायू परिवहन भूगोल हांचोय विकास जाल्लो अशें कळटा.

यूनानच्या दार्शनिकांनी भूगोलाच्या सिध्दांताचेर भासाभास केल्ली. इ.स ६०० वर्सां पयलीं होमर हाणें धर्तरी व्हड थाळयेच्या आकाराची आसा आनी तिका सगळ्या वटांनी ऑसनस न्हंयेन रेवाडिल्ली आसा, अशें म्हणिल्लें. मिलेटसाच्या थेल्स हाणें धर्तरी मंडलाकार आसा अशें सगळयांत पयलीं सांगिल्लें. पायथागोरियन संप्रदायाच्या दार्शनिकांनीय मंडलाकार सिध्दांताचेर भर दिल्लो. एच. एफ. टौजर हाणें टेकाटियस (इ. स. प. ५००) हाका भूगोलाचो जनक मानिल्लो जाल्यार, ॲरिस्टोटल (इ.स.प. ३८४-३२२) हो वैज्ञानिक भूगोलाचो जल्मदातो आशिल्लो. ताणें धर्तरी वाटकुळी आसा हें पुराव्यासयत दाखोवन दिल्लें. धर्तरेच्या परिभ्रमणाची कक्षा लांबवर्तुळाकार आसा हें सिध्द करून विंगड विंगड थळांचे अक्षांश थरयले. अशे रितीन धर्तरे विशींच्या गिन्यानांत भर पडत गेली. अर्वाचीन भूगोलाची बुन्याद मुखेलपणान आदिम काळांतल्या ग्रीक लोकांनीच घाल्ली. धर्तरेचें वाटकुळपण, तिचे ध्रूव, विषुववृत्तां आनी उश्ण कटिबंध ह्यो सगळयो गजाली सुरवेक तांणी वळखल्ल्यो. मुखार अक्षवृत्तां आनी रेखावृत्तां ह्योय कल्पना तांणीच मांडल्यो. ग्रीक संस्कृतीच्या भरभराटीच्या काळांत काळो दर्या, दक्षिण युरोप, अस्तंत युरोपीय दर्यादेग आनी हेर प्रदेशांची म्हायती नव्या दर्या मार्गांतल्यान आनी विंगड विंगड प्रदेशांनी केल्ल्या ग्रीक वसणुकांक लागून जाली. रोमी साम्राज्याच्या विस्ताराक लागून विंगड विंगड प्रदेशांची वळख जाताली. आफ्रिका खंडाची उत्तर दर्यादेग रोमी लोकांक खबर आशिल्ली. हिप्पालस (इ. स. ७९) हाणें अरबांकडच्यान मॉन्सून प्रदेशांत नेमान जावपी ऋतुबदलांविशीं म्हायती मेळयल्ली. उपरांत ताणें त्या वाऱ्यांचो उपेग करून तांबडो दर्या आनी हिंदुस्थान हांचे मदलो उकत्या दर्यामार्गाचो सोद लायलो. टॉलेमीचो जिऑग्रफिया हो चड म्हत्वाचो ग्रंथ. हातूंत भारतीय द्वीपकल्पाची उदेंत आनी अस्तंत दर्यादिग, तशेंच उत्तर भारतांतल्या म्हत्वाच्या थळांविशीं म्हायती दिल्ली आसा. रोमी साम्राज्याक देंवती कळा लागले उपरांत भुगोलीक गिन्यानांत भर घालपाचें काम कांय तेंप अरब शास्त्रज्ञांनी चालू दवरलें. इस्लाम धर्माचो प्रसार, अरबांचो भारत आनी चीनाकडेन वाडपी वेपार आनी आफ्रिका खंडांतल्या खूब पयसमेरेन आशिल्ल्या भागांकडेन चलिल्लो वेव्हार, हाका लागून साबार अरब शास्त्रज्ञांनी भोंवडेंतले आपलें अणभव ग्रंथांच्या रुपांत बरयले.

उत्तर ध्रुवीय प्रदेशाचो सोद सुरवेक नॉर्स ह्या दर्यावर्दी लोकांनी केलो. तातूंत धाव्या शेंकड्यांतलो एरिक द रॅड आनी ताचो चलो एरिकसन लॅव हांचो व्हड वांटो आसा. ग्रीनलँड जुंवो आनी अमेरिका खंड हांचो सोद लावपाचें श्रेय तांकांच वता. मार्को पोलो (१२५४-१३२४) हाणें उदेंतेकडल्या भूगोलिक गिन्यानांत म्हत्वाची भर घातली. इब्न बतुता (१३०४-७८) ह्या अरबी भोंवडेकारान आपल्या पुस्तकांतल्यान अरबस्तान, इराण, हिंदुस्थान, चीन, मलाया, उदेंत आनी अस्तंत आफ्रिकेची दर्यादिग आनी सहारा रेंवट हांची बरी म्हायती दिल्ली आसा. चवदा ते सोळा ह्या शेंकड्यांमदीं आशिया आनी आफ्रिका खंडांतल्या खुश्की मार्गांच्या (land route) सोदाक लागून वेपार आनी येरादारी वाडली.

१४५३ त कॉन्स्टँटिनोपल तुर्कांच्या हातांत गेले उपरांत युरोपांतल्यान भारताकडेन येवपाचो खुश्कीचो मार्ग तांणी बंद केलो. युरोप आनी भारत हांचेमदीं जावपी वेपाराचेर वायट परिणाम जावपाक लागलो. हाका लागून दर्या मार्गांतल्यान भारताकडेन येवपाचो मार्ग सोदप गरजेचें आशिल्लें. त्याच तेंपार नौकानयनांत होकायंत्राचो वापर करपाक लागले. ह्या नव्या साहसांत पुर्तुगाल आनी स्पेन मुखार आशिल्ले. पुर्तुगालाचो प्रिन्स हॅन्री द नॅविगेटर हाणें फुडाकार घेतिल्लो. सुरवेक पुर्तुगेजांनी आफ्रिकेच्या दक्षिण तोंकाचो सोद लायलो (१४८८). उपरांत वाश्कु द गामा हो आफ्रिकेक भोंवताडो घालून हिंदुस्थानांत आयलो (१४९८). स्पेनाच्या राजान क्रिस्तोफर कोलंबस ह्या धाडसी नाविकाक अर्थीक आनी हेर आदार दिल्लो. अस्तंतेकडच्यान हिंदुस्थानाकडेन येवपी मार्ग सोदतना तो अज्ञात आशिल्ल्या अमेरिका खंडाच्या उदेंतेकडच्या जुंव्याचेर पावलो (१४९२). उपरांत ताणें अमेरिकेचो सोद लायलो.

सोळाव्या शेंकड्यांत युरोपांतल्यान आशियाक अस्तंतेंतल्यान येवपी मार्ग सोदपा फाटल्यान क्रिस्तांव धर्माचो प्रसार, नव्या प्रदेशांतल्या साधनसंपत्तीची आस, साम्राज्यवाद, साहस करपाची जिद्द, गुलामांचो वेपार हांचेसारकीं प्रेरक उद्दिश्टां आशिल्लीं. ह्या यत्नांक लागून स्पेनी, पुर्तुगेज, इंग्लीश नाविकांनी उत्तर आनी दक्षिण अमेरिका खंडांतल्या तशेंच आफ्रिकेच्या सागरी दर्यादिगांनी आशिल्ल्या प्रदेशाची खूब म्हायती मेळयली. किरिस्तांव धर्म पातळावपाच्या उद्देशान पोपाकडच्यान स्पेनाक

अस्तंत गोलार्धांत आनी पुर्तुगालाक उदेंत गोलार्धांत नवे प्रदेश सोदपाचे आनी तांचेर राज्य करपाचे हक्क मेळळे.

सतराव्या आनी अठराव्या शेंकड्यांनी वेपार आनी वसणूकवाद हांचे सर्तींत स्पेन आनी पुर्तुगाल फाटीं उरले. इंग्लंड, फ्रान्स, हॉलंड हे मुखार आशिल्ले. हॉलंडी लोकांनी दक्षिण आफ्रिकेंत आपलो शेक बसोवन मुखार जावा आनी सुमात्रा हे आग्नेय आशियांतले जुंवेय बळकायले. १७६८ ते १७७१ ह्या काळांत जेम्स कूक हाणें प्रशांत म्हासागरांतल्या साबार जुंव्यांचो सोद लावन ऑस्ट्रेलियाची दर्यादिगय सोदून काडली. ह्या काळांत कूक आनी बेलिंग्सहा उझेन हे अँटार्क्टिक प्रदेशाचे देगेमेरेन पाविल्ले. अठराव्या शेंकड्यांत अँटार्क्टिका खंडाची चडशी सगळी दर्यादिग आनी भोंवतणचे प्रदेश सोदून काडून तांचे आनी थंय पावपाचे नकाशेय तयार जावपाक लागले.

आफ्रिका खंडाची जशी जशी म्हायती मेळत रावली तशी युरोपी राष्ट्रांभितर थंय वसणुको करपाची म्हत्वाकांक्षा वाडत गेली. ताका लागून फ्रेंच, बेल्जियम आनी जर्मन सैनिकी अधिकारी, मिशनरी आनी भोंवडेकार हांणी प्रदेशीक, भुगोलीक गिन्यानांत भर घातली. ऑस्ट्रेलियाची उत्तर दर्यादिग इंडोनेशियन लोकांक पुरातन काळासावन खबर आशिल्ली अशें म्हण्टात. पूण ह्या खंडाची रीतसर आनी पुराय म्हायती हांगाच्या गोऱ्या वसणूककारांकडल्यान एकुणिसाव्या शेंकड्यांत मेळळी.

उत्तर आनी दक्षिण अमेरिका ह्या भागाचो रीतसर सोद हो पुर्तुगेज आनी स्पेनी लोकांचे दक्षिण अमेरिकेंतल्या वसणुकांक लागून जालो. उत्तर अमेरिकेचे उदेंत दर्यादेगेर राबितो केल्ल्या इंग्लीश वसणुकांचो राजकीय प्रभाव जसो अस्तंतेकडेन पातळपाक लागलो, तशी खंडाच्या भितरल्या भागांची म्हायती मेळपाक लागली. अमेरिकेच्या स्वातंत्र्य झुजाउपरांत स्वतंत्र अमेरिकी राष्ट्राक अमेरिकेच्या पद्दतशीर सोदाक फाटबळ मेळूंक लागलें.

आशिया खंडांतले उसू आनी दोंगरी अशा खबर नाशिल्ल्या प्रदेशांचो सोद लावपाक टी. ई.लॉरेन्स आनी रिचर्ड बर्टन (अरबस्तान), एवरेस्ट, स्ट्रेची, गॉडविन-ऑस्टिन, श्लोगनवेट भाव, आब्रूत्सी, वर्कमन (हिमालय), ह्यूक, गॅबेट, फ्रॅशफिल्ड, ऑरॅल स्टायन, हंटिंग्टन (मध्य आशिया-गोबी) स्मिथ, टिलमन (गिर्यारोहण) हांणी भुगोलिक गिन्यानांत भर घाली. आर्क्टिक आनी अँटार्क्टिक प्रदेशांचो सोद एकुणिसाव्या आनी विसाव्या शेंकड्यांमदीं लागलो. हातूंत रॉस, मारकम, नूर्डेनशिल्ड, रॉबर्ट पिअरी, बर्ड, नॉबीले हांचो वांटो आसा. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या तेंपार आनी झुजाउपरांत विमानां आनी कृत्रीम उपगिरे हांच्या पालवान दोनूय ध्रुवीय प्रदेशांविशींचे म्हायतींत खूब भर पडली.

युरोपांत भूगोलीक संकल्पनांचें गिन्यान वाडपाफाटलें श्रेय सुरवेक युरोपांतल्या प्रबोधनाक आनी उपरांत स्पेन-पुर्तुगाल हांकां फावो जाता. तांणी नव्या देशांचो आनी सागरी मार्गांचो सोद लायलो. सोळाव्या ते अठराव्या शेंकड्यांमदीं साबार भूंयवर्णनाविशींचे ग्रंथ तयार जाले. तातूंतल्या पेट्रुस आपीआनुस हाच्या ग्रंथाक म्हत्वाची सुवात आसा. मर्केटर (१५१२-९४), म्युन्स्टर (१५४४), क्लूवर (१५८०-१६२२) आनी व्हेरेनियेस (१६२२-५०) हांचेय भूंयवर्णनाविशींचे ग्रंथ प्रसिद्द आसात.

अठराव्या शेंकड्यांत भूगोलशास्त्राचें क्षितीज वाडून ताचो वाठार फकत भूंयवर्णना इतलोच शिमीत उरलोना. ह्या शास्त्राच्या स्वरुपासंबंदींचेय विचार जावपाक लागले. इमॅन्युएल कांट (१७२४-१८०४) ह्या नामनेच्या जर्मन तत्त्ववेत्त्यान इतिहास आनी भूंयवर्णन हांचो मेळ घालून दिलो. अठराव्या शेंकड्यांत आधुनिक भुगोलशास्त्राची बुन्याद घालपाचें श्रेय ॲलेक्झांडर फॉन हंबोल्ट हाका वता. हंबोल्ट हाणें पळयल्ल्या विंगड विंगड देशांचे वर्णन करतना भूंयस्थळांचेर दिश्टी पडपी साम्य आनी विंगडपण हांची रीतसर कार्यकारणमिमांसा केली. सैमांत हवामानासारकिल्या घटकांचें मापन कशें करचें हें ताणें दाखोवन दिलें. ह्यो सैमीक क्रिया कशो घडटात आनी हांचेमदीं बदल कशे जातात हांची ताणें विस्कटावणी केली. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत फ्रांसेझ भूगोलतज्ञांनी भूगोलशास्त्राचो प्रदेशीक विवरणशास्त्र हे नदरेंतल्यान अभ्यास केलो. माल्ट-ब्रून, रकल्यू आनी व्हिदाल द ला ब्लाश ह्या भूगोलतज्ञांनी हे पद्दतीक नेट हाडलो. मुखार व्हिदालाच्या शिश्यांनी ह्या क्षेत्रांत जोखमीचो वावर केलो. हाका लागून ''व्हिदाल परंपरा' ही भूंयवर्णन शास्त्रांतली म्हत्वाची घडणूक अशें मानतात. खंयच्याय प्रदेशांतली भूंयरचणूक, हवामान, वनस्पत, मोनजात, मानवनिर्मिती घटक आनी मनशाचो सैमाचे चौकटींत खूब तेंप चलिल्लो यत्न हांचो अभ्यास करून सगळ्या घटकांचें वेवस्थीत आनी सोबीत चित्र पिंतारपाचें काम फ्रेंच भूगोलतज्ञांनी केलें. फ्रेंच भूगोल तज्ञांच्या फांट्यावांगडाच रिख्योफेन, राटसॅल आनी हेर शिश्यांनी जर्मनींत भूगोलाची परंपरा चालंत दवरिल्ली. हे परंपरेचो भर भुगोलिक तत्त्वविचारांचेर चड आशिल्लो. शास्त्रांतलो 'नियतीवाद' राटसॅल हाणें चालींत हाडलो आनी ताका जाप म्हणून व्हिदाल हाणें 'शक्यतायवाद' मांडलो.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक फ्रेंच आनी जर्मन फांट्यांचो भूगोलशास्त्राचेर शेक चलतालो. उपरांत ब्रिटीश, अमेरिकन, स्लाव हे फांटे निर्माण जाले. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत रशियन भूगोलतज्ञांनीय ह्या क्षेत्रांत खूब वावर केलो. ह्या शेंकड्यांत विज्ञान आनी तंत्रगिन्यान हांचे उदरगतीचो प्रभाव भूगोलशास्त्राचेर पडलो. विज्ञानावांगडा हेर समाजीक शास्त्रां भूगोलाकडेन एकरूप जालीं. भूगोलाचे नवे उपफांटे निर्माण जाले. देखीक- राज्यशास्त्र आनी भूगोलशास्त्र मेळून राजकीय भूगोल तयार जालो. अर्थशास्त्र आनी भूगोल हांकां संख्याशास्त्र आनी गणितशास्त्र हांचो पालव मेळळो. अर्थीक भूगोल हो उपरांत फकत वर्णनात्मक उरनासतना तातूंत सांख्यिकीकरणूय आयलें. मनीस आपले भोंवतणचें आकलन

कशें करतात, हो भूगोलशास्त्रांतलो एक नवो विशय जावन रावला. अशे रितीन भूगोलाविशींच्या अभ्यासाचे नवे नवे फांटे जायत रावले. देखीक- भूंयरूपशास्त्र, हवामानशास्त्र, मोनजातभूगोल, मृदा भूगोल, अर्थीक भूगोल, वाणिज्य भूगोल, समाजीक भूगोल, इतिहासीक भूगोल, नागरी भूगोल, राजकीय भूगोल आनी हेर.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन भूगोल विचारांत द्विभाजना जाल्ल्याचें दिश्टी पडटा. देखीक- प्राकृतीक आड मानवी भूगोल, भूगोलविशयक निरीक्षण आनी विश्लेशण हांचेविशींचे कार्यपद्दींतूय क्रांतीकारक बदल घडून आयलो. ल्हान प्रदेशाच्या भूंयरुपाची, शेतवडीची, शार आनी हेरांचें विस्तृत विवेचन करपाची पद्दत सुरू जाली. थळाव्या घटकांवांगडा येरादारी, स्थलांतर, घटकांचो अभ्यास जावपाक लागलो. गणितशास्त्राच्या वाडट्या उपेगाक लागून भुगोलविद्येची मापन क्षमताय वाडूंक लागल्या. सर्वेक्षण आनी निरिक्षण हांचेवरवीं भूंय-उपेगी नकाशांची पद्दत इंग्लंडांत सुरू जाली. संवसारीक पांवड्याचेर 'हवामान प्रदेश', 'शेतवड प्रदेश', 'व्हड सैमीक प्रदेश' हे सारकिल्यो संकल्पना नकाशारुपांत हर्बर्टसन टेलर सारकिल्या भूगोलतज्ञांनी मांडल्यो. तशेंच ल्हान, मध्यम आनी व्हड आकाराच्या प्रदेशांचे नकाशेसंच विंगड विंगड देशांखातीर जावपाक लागले.

भूगोल हें एक विकासशील विज्ञान. दर एका देशांतले तज्ञ आपल्या आपल्या क्षेत्राचो विकास करीत आसात. हाचो परिणाम म्हळयार भूगोलाचे साबार फांटे आनी उपफांटे तयार जाल्यात.

**अ) भौतिक भूगोल** : हातूंत विंगड विंगड शास्त्रीय आंगांची स्थळाकृती, हिम-क्रिया विज्ञान, दर्यादेग-स्थळ-रचणूक, भूस्पंदनशास्त्र, दर्या विज्ञान, वायूविज्ञान, मातयेविज्ञान, जीवविज्ञान, भूगोल तशेंच पुरालिपी शास्त्र येता.

**ब) अर्थीक भूगोल :** हातूंत शेतवड, उद्देग, खनीज शक्ती, भुंयेचो उपेग, वेवसायीक आनी येरादारी भूगोल हांचो आस्पाव जाता.

**क) मानव भूगोल** : हाचीं मुखेल आंगां म्हळयार वातावरण, जनसंख्या, गांवगिऱ्या वाठारांचें तशेंच शारांतले जिणेचें वर्णन.

**ड) राजनितीक भूगोल** : भूराजनितीक शास्त्र, आंतरराश्ट्रीय, राश्ट्रीय, शीत-झुजाचो भूगोल आनी सैमीक भूगोल अशे हाचे फांटे आसात.

**ण) इतिहासीक भूगोल :** प्राचीन, मध्यकालीन, आधुनिक, वैदिक, पुराणीक तशेंच अरबी भूगोल हाचे उपफांटे आसात.

**व) रचनात्मक भूगोल** : रचनानिती, सर्वेक्षण, आकृती-अंकन, चित्रांकन, आलोकचित्र, कलामिती (फोटोग्रामॅटरी) तशेंच स्थाननामाध्ययन हांचो ह्या फांट्यांत आस्पाव जाता.

हांचे खेरीज भूगोलाचे हेर खंड लेगीत विकसीत जायत आसात. देखीक-ग्रंथ, विज्ञानीय, दार्शनिक, मनोवैज्ञानिक, गणित शास्त्रीय, भ्रमण भूगोल आनी अंतर्नक्षत्रीय भूगोल.

अठराव्या शेंकड्यामेरेन भुगोलशास्त्राचें स्वरूप मुखेलपणान स्थलनामांची म्हायती दिवपा इतलेंच मर्यादीत आशिल्लें. उपरांत भुगोलिक विचारधारेचें स्वरुपच बदललें. भुगोलिक अभ्यासाची साधनसामुग्री वाडिल्ली आसून नकाशे सोडून हवाई छायाचित्रां, उपग्रहांवरवीं घेतिल्लीं सावळेचित्रां आनी हेर आधुनिक पद्दतींचो वापर करता.

**भारतीय भुगोलशास्त्र** : भारतीय भूगोलशास्त्राचो अभ्यास करपाक सोंपें जावंचें म्हणून ताच्या इतिहासाचे प्राचीन, मध्ययुगीन आनी आधुनिक अशे तीन वांटे केल्यात.

चारूय वेदांतल्यान वेदकाळांतली भारताची म्हायती मेळटा. धर्मसुत्रां, धर्मशास्त्रां,पाणिनीचें व्याकरण, पातंजलीचीं योगसुत्रां, रामायण, महाभारत आनी पुराणांत आनी हेर ग्रंथांनी भुगोलाचो उल्लेख केला. बौध्दांचे पाली भाशेंतल्या ग्रंथांतूय भुगोलीक संकल्पना सांपडटात. मध्ययुगीन काळांतलें भुगोलाविशींचें गिन्यान कांय यात्रा वर्णनांतल्यान अरबी आनी फारसी भोंवडे वर्णनांतल्यान, बखरी आनी जत्र्यांतल्यान मेळटा. आधुनिक काळांत ब्रिटीश अधिकाऱ्यांनी बरयल्ले अणभव, प्रवासवर्णनां आनी शासकीय अहवाल हांच्यांतल्यान अठराव्या आनी एकुणिसाव्या शेंकड्यांतली भुगोलिक म्हायती मेळटा. ह्याच काळांत भारतीय भूगोलशास्त्राक नवी दिका मेळ्ळी. तशेंच ब्रिटीश शासनकर्त्यांक मार्गदर्शनाखातीर भूगोलीक, इतिहासीक, समाजीक, अर्थीक म्हायती दिवपी इंपेरियल वा जिल्हो गॅझेटियर उजवाडाक आयलें. १९३० मेरेन भूगोल हो विशय फकत शाळांनी शिकयताले. पूण दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत अमेरिकनाच्या भूगोल अध्ययन, अध्यापन आनी संशोधन, पद्दतींचो प्रभाव भारतांतल्या भुगोलतज्ञांचेर पडलो. वनस्पत, शेतवड, शारां, लोकसंख्या, अर्थीक आनी समाजीक विकास ह्या सारकिल्या, घटकांचेर भारतीय परिस्थितीचेर आदारून खूब ग्रंथ उजवाडाक आयिल्ले आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## भूट्टो बेनझीर : (जल्म : १९५३).

पाकिस्तानाची तशेंच इस्लाम धर्मांतली पयली बायल प्रधानमंत्री. हार्वड आनी ऑक्सफर्ड विश्वविद्यालयांतल्यान तिणें उच्च शिक्षण घेतलें. उच्च माध्यमिक शिक्षण घेता आसतना ऑक्सफर्ड युनियनाची अध्यक्ष जावपी ती आशिया खंडांतली पयली बायल.

बेनझीर भुट्टोचो बापूय झुलफिकार अली भुट्टो होय पाकिस्तानाचो प्रधानमंत्री आशिल्लो. १९७७ त शिक्षण जातकूच ती पाकिस्तानांत पावली तेन्ना झिया ऊल-हकाच्या फुडारपणाखाला सैनिकी उठाव जावन

तिच्या बापायक सत्तेवयल्यान काडून उडयल्लो. झिया सरकारान उपरांत ताचेर हत्येचो आळ दवरून ताका १९७९ त गोळार चडयलो. बेनझीर भुट्टोन झियाच्या हुकूमशाय सरकाराक विरोध केल्ल्यान तिका १७७७-८४ मेरेन तिच्याच घरांत नदरकैदेंत दवरली. १९८५ त भूंयगत रावून ती झिया सरकाराक विरोध करपाक लागली. उपरांत १९८६ त ती व्हड सन्मानान 'पाकिस्तान पिपल्स पक्षाची' मुखेली म्हणून पाकिस्तानांत परतली. पाकिस्तानांत पावले उपरांत तिणें गांवागांवांनी सभा घेवन झियाच्या जुलमी सरकाराक विरोध करपाक सुरवात केली. हाका लागून आनी देशांत दंगे घडोवन हाडपाफाटल्यान तिचोच हात आसा अशें म्हणून तिका परत बंदखणींत दवरली. १९८७ त सुटका जाले उपरांत पाकिस्तानांतलो गिरेस्त जमीनदार, असिफ अली झरदारीकडेन तिचें लग्न जालें. १७ ऑगस्ट १९८८ दिसा झियाक अपघाती मरण आयले उपरांत नोव्हेंबर १९८८ त जाल्ले वेंचणुकेंत पाकिस्तान पिपल्स पक्षाक भोवमत मेळून बेनझीर पाकिस्तानची प्रधानमंत्री जाली (१ डिसेंबर १९८८). ऑगस्ट १९९० त पाकिस्तानाचो अध्यक्ष गुलाम इशाक खान हाणें तिचेर भ्रश्टाचार आनी हेर कांय आरोप दवरून तिचें वीस म्हयन्यांचें सरकार बरखास्त केलें. मुखार नवाज शरीफाचें सरकार बरखास्त केले उपरांत १९ ऑक्टोबर १९९३ दिसा ती प्रधानंत्री म्हणून परत सत्तेर आयली. पूण नोव्हेंबर १९९६त भ्रश्टाचाराचो आरोप दवरून तिचें सरकार बरखास्त केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**भूत :** मरणाउपरांतच्या अस्तित्वासंबंदींची कल्पना दिवपी एक अतीमानवी योनी. मरणाउपरांत कांय असंतुश्ट आत्मे संवसारांत वावुरतात हे कल्पनेंतल्यान भूत योनीचो उदय जाला.

भुताच्या अस्तित्वासंबंदीं आयजूय दुबाव परगटायतात आसले तरी भुताची कल्पना समाजांत खूब आदींसावन प्रचलीत आसा. ऋग्वेदांत पिशाची अशें उतर आयिल्लें आसा. (१:१३३.५). रामायणांतूय भुताचो उल्लेख आसा. (बा. रा. अयोध्या ५८.३४ आनी ६०.१ ). मनुस्मृतींत (१.४२) भुताचो उल्लेख आसा.

प्रजापतीन राकेस आनी असूर हांचे वांगडा भुतांची उत्पत्ती केली असो उल्लेख मेळटा. कश्यप आनी क्रोधवशा हांच्या संबंदांतल्यान भुतां जल्माक आयलीं अशें पुराणांतलें मत आसा. जितेपणांतली इत्सा अतृप्त उरली जाल्यार ती पूर्ण करून घेवपाखातीर मनीस मरणा उपरांत भूत योनींत वता अशी एक मूळ कल्पना आसा. हाचेय वांगडा अकाली मरण, अपघाती मरण, आत्मघाती मरण, निमाण्या संस्काराचो विधी जावप ना, हांकां लागून मेल्ल्या जिवांचें रुपांतर भुतांत जाता अशी समजूत आसा.

भुतां चड करून पिंपळ, चींच, ओंवळ, अडुळसो सारकिल्ल्या झाडांचेर तशेंच पडक्या घरांत, बांयत न्हंयेदेगेर, तळयादेगेर, गांवचे शिमेर, तिट्यार रावतात अशी समजूत आसा. मसंड हें भुतांचें खाशेलें स्थान अशें मानतात. म्हादेव हो मसंडेंत रावता आशिल्ल्यान तो भुतांचो नियंत्रक अशी कल्पना भर वस्तींत केल्या. देवळांनी आनी भरपूर उजवाड आशिल्ले जागे भुतांक मानवनात अशें म्हण्टात. भुतां हीं दिसपाक भयानक आनी कुरूप आसतात असो समज आसा. तांच्या हातांपांयांचीं बोटां उरफाटीं आसतात आनी तांची सावळी पडना अशी समजूत आसा. तांचेकडेन पिडापीड करपाची आनी कांय खेपे कल्याणूय करपाची असामान्य शक्त आसता अशी कल्पना आसा. भुतांचेर नियंत्रण दवरून तांचे दुश्ट शक्तीपसून अभय आनी तांचे सृश्ट शक्तीपसून कल्याण करून घेवं येता असो समज आशिल्ल्यान तांचेर नियंत्रण दवरपी तंत्रीक तशेंच मंत्रीक लोकांचो आदार घेवप जाता. तेचपरी तांकां प्रसन्न करून घेवपाखातीर तांच्या अपेक्षीत निवासस्थानाकडेन काजळ, कुकूम, कांकणां, आयदनां, अन्न, दिवो दवरप जाता.

प्रचारांत आशिल्ल्या कांय भुतांचीं नांवां अशीं : वेताळ, ब्रह्मग्रह, समंध, ब्रह्मसमंध, देंवचार, मुंजो, खविस, गिऱ्हा, चेटूक, झोटींग, वीर, चेडा, म्हसोबा, जाखीण-अळवंत, आलवांतीण, लाव, लावसट, म्हारू, खेतलो, हडळ, जींद, पिलर, यदम कडताई, कबंध, म्हैसासूर, कर्णपिशाच्च, राणोबा, सटवाई, शाकिणी, तळखांबो, बापा, पाणिपात्र, कालकाई, हिरवा, वाघोबा, गागुंड, सैतान, बंत्री, बावरो, डाकण-डाकिणी, कुष्मांड, धोड, ढोलियो, वले भरद, भूचर, खेचर, जलाई, जाखरो, शिकोतरा, अश्टाथरो, चंदचाणी, चोरोसी, कांतिणी, जोगणी, हथाडी, मियाळी, धांचिणी, मोचिणी, बलगडी, मोलि़णी, खुंटिणी, मारीच, सुती, गवती, बेठी, उभी, आवी, चौरार, मधुपवंती, भाषिका, प्रताव वीरा, खंचरा, चौरासीवीरू, नावनरसिंग, जेखा, जुटका, मसिदा, गंधर्वी,जानी, अस्मानी, मामीकुला, झंपाडी, नेलाडी, बल्ला, कोटदा, वेतालिक, पुरधन, शिकोनरू, खिजडिओ, मामोजान, राखेवलियो, अंधारिओ, सोवालियो, खुळियो, रगतियो,तक्षमी, जीज, नाथोबा, चलेगट, राणुबाई, सोनुबाई, अडुबनती, कुलकोला, यक्षकिमर कोल्तीदेव, मत्लद, चवडो, चावडी, बावली, महासती, हेन्नगोली, गेंडगोली, किला, रेणगोती आनी जल्मी.

कांय भुतां मनशाक लागतात असो समज आसा. अशा वेळार आंगांत संचारिल्ल्या भुताचे गूण आनी शक्त त्या मनशाच्या आंगांत चडून त्या मनशाचें वागप असामान्य जाता. असो मनीस कांय वेळ शाण्यावरी जाल्यार कांय वेळ पिश्यावरी वागता. मनशावांगडाच जनावराक तशेंच वास्तूंक भूतबादा जाता म्हणपाची समजूत आसा. भूतबादा जाल्ल्या घरांत तरेतरेच्यो नकलामी घडटात. अशा वेळार भूत काडपाची प्रथा आसा. भूत लागिल्ल्या मनशाक दत्तमंदिर वा तत्सम पवित्र सुवातांनी व्हरून मंत्रीक तशेंच तंत्रीक लोकांचो आदार घेवन उपचार करप जाता.

गोंयांत सांखळेच्या दत्तमंदिरांत तशेंच वेताळ, बेताळाच्या देवळांत व्हरून भुतां काडपाची प्रथा अजुनूय अस्तित्वांत आसा.

विज्ञानीक नदरेची वाड जायत सावन भुतांखेतांचेर विश्वास दवरपी लोकांचो आंकडो उणो जायत आसलो तरी भूत ही कल्पना आनी संकल्पना आयजूय पुरायपणान नश्ट जावंक ना. आयजूय गांवगिऱ्या वाठारांनी तांचें अस्तित्व मानून तांचे संबंदित अशे धर्मीक विधी करप जातात.

- अनंत राम भट

- कों. वि. सं. मं.

**भूतनाथ :** भूतनाथ म्हळयार भुतावळिचो धनी (Lord of Spirits). अथर्ववेदांत 'भूतपति' हें उतर आयलां. भूतपति म्हळयार भूतनाथ.

भूतनाथ हें उतर 'भूत' आनी 'नाथ' ह्या दोन उतरांच्या समासांतल्यान तयार जालां.

भूतनाथ हो महादेवाचो सेनापती वा ताच्या भैरांवगणाचो मुखेली अशें गोंयांत मानतात. पूण गोंयाभायर महादेवाकूच भूतनाथ म्हण्टात. म्हादेव हो मसंडेंत रावपी आनी सगळया भुतां-खेतांच्या मेळयांचेर नियंत्रण दवरपी. देखून ताका भूतनाथ म्हण्टात असोय एक समज आसा. भुतां हीं शंकराचें सैन्य आशिल्ल्यान ताका 'भूतनाथ' वा 'भुतेश्वर' ह्याय नांवांनी वळखतात. 'वज्रसत्व' ह्या बौध्द तंत्रीक देवाकूय भूतनाथ म्हण्टात.



मूळच्या गणरौदुऱ्याचें रुपांतर शिवगणांच्या मुखेल्यांत म्हळयार भूतनाथांत जाल्याचें कांय जाणांचें मत आसा.

कांय सुवातांनी रवळनाथ देवाकूय भूतनाथ म्हण्टात.

भूतनाथ हें मुळचें तंत्रीक संस्कृतींतलें दैवत. ताच्या थळांनी उपरांत वैदिक संस्कृती रिगली.

भूतनाथ देवस्थान गोंयाभायर चडशें मेळना. पूण गुजराता लागसारच्या दीव जुंव्याचेर एक नांवाजिल्लें भूतनाथाचें देवस्थान आसा.

गोंयांत भूतनाथाचीं खूब देवळां आसात. फोंडें, सांगें, केपें, काणकोण, पेडणें, दिवचल, पाड्डें, आमोणें ह्या गांवांनी भूतनाथाचीं देवळां आसात.

भूतनाथ चड करून शिळेच्याच रुपान मेळटा. पूण जंय ताची मूर्त आसता. थंय ताका धाल-तरसाद हातांत घेतिल्ल्या झुजाऱ्याच्या भेसांत दाखयतात.

भूतनाथ हो मूळचो तंत्रीक देव जाल्ल्यान बळी दिवपाची तंत्रिकाची चाल मुळाक ह्या देवस्थानांनीच आशिल्ली. पूण आयज कांय देवस्थानांनी भूतनाथाच्या नांवान सरळपणान बळी दिनासतना भूतनाथाच्या 'खेत्र्याक' (सेवकाक) दितात. तशेंच ह्या देवस्थानांनी 'गुरव-सावंत' हे सारके तंत्रीक संस्कृतायेकडेन संबंद आशिल्ले पुजारीच मूळाक आशिल्ल्याची म्हायती मेळटा.

गोंयांत मेळपी भूतनाथ देवस्थानांचो अभ्यास केल्यार अशें दिसता, गोंयांत भूतनाथाचें स्वतंत्र अशें देवस्थान ना. पूण 'पालवी देव' म्हणून ताका म्हत्व मेळळां. देखीक, पाड्डें गांवांत जंय भूतनाथाचें देवस्थान आसा, थंय 'चंद्रेश्वर' हें मुखेल दैवत, पेडणें गांवांत भूतनाथ आसा थंय 'रवळनाथाक' पयलो मान जाल्यार आमोण्यां (दिवचल) बेताळाक चड म्हत्व आसा.

पाड्डें गांवांत भूतनाथाचें देवस्थान चंद्रनाथ पर्वताचेर आसा. हांगा चंद्रेश्वरावांगडा भूतनाथाचें नांव घेवपाची चाल आसा. हांगाचें भूतनाथाचें देवूळ चंद्रेश्वराच्या देवळाक फुडो करून आसा आनी भूतनाथ मात्सो मुखार बागवल्लो दिसता. भूतनाथ हो चंद्रेश्वराचो सेवक जाल्ल्यान ताचो आदेश पाळपाखातीर तो सदांच तयार आसता. देखून तो आपल्या धनयाचे नदरेमुखार उबो आसता असो हे फाटलो समज आसा.

चंद्रनाथ पर्वतार भूतनाथाची मूर्त ना. थंय शिळा आसा. नित्याक हे शिळेचीच पुजा जाता. पर्वणेच्या वा जात्रेच्या दिसा हे शिळेक मुखें चडोवन न्हेसयतात तेन्ना भूतनाथ महाकाय भासता. आंगाक चोळणो, माथ्याक पगडी, फाटभर पातळपी लांब काळयो जटा, भेंडाक तरसाद, कपलाक आडवें गंध, अशा भेसांतली वागाचेर स्वार जाल्ली भूतनाथाची प्रतिमा पळोवपाक रुद्ररुपी दिसता.

चंद्रनाथ पर्वताचेर भूतनाथ कसो येवन रावलो हेविशीं एक आख्यायिका आसा. ती अशी-

कैलास पर्वतावयल्यान चंद्रेश्वर म्हळयार महादेव चंद्रनाथ पर्वताचेर येवन रावले उपरांत ताचो मुखेल भैरांव, जो भूतनाथ, ताका सोदीत थंय आयलो आनी परतून कैलास पर्वताचेर येवपाखातीर विनंती करूंक लागलो. तेन्ना चंद्रेश्वरान ताका आपले वांगडा चंद्रनाथ पर्वताचेरूच रावपाचो आदेश दिलो.

वर्साक दोनदां, म्हळयार दसऱ्याक आनी दुसरें केपें आमोणें गांवच्या व्हडल्या शिगम्याक चंद्रेश्वराच्या अवसरावांगडा भूतनाथाचोय अवसर येता, तशेंच तरंगूय आसता. हांगा पयलींसावन 'जोतकार' (देवाक जोत वा दिवो पेटोवपी) घराण्यांत भूतनाथाचो अवसर येतालो.

हांगा, भूतनाथाक दर दिसा एक पायली तांदळांचे खिचडेचो निवेद्य दाखयतात. ताका 'चिलीम' पेटोवपाची आंगवण करतात.

अवेडें-केपें गांवच्या भगतान 'चीर' (देवतेक न्हेसोवपाचें ल्हान कापड) न्हेसून, पांयांत घागऱ्यो बांदून, जगांट वाजयत भूतनाथाच्या मुखार नाचपाची चाल आसा. दसऱ्या दिसा चंद्रेश्वर आनी शांतादुर्गा कुडतरकान्नीच्या अवसरांची जेन्ना 'मेळा-मेळ' जाता तेन्ना भूतनाथाचो अवसर दोगांयच्या पांयांकडेन लोळण घेता. ह्या वेळार कुडतरकान्नीचो अवसर चंद्रेश्वराच्या अवसरावांगडा भूतनाथाच्या अवसराकूय 'धोतर-जोडो' भेट दिता.

मान्नी उमाशे दिसा हांगाच्या भूतनाथाच्या देवळांत 'भुतांची जात्रा' भरता असो समज आसा. तेखातीर ते रातीकडेन वर्साक एकदांच रातभर देवूळ उकतें दवरतात. चैत्र पुनवेच्या उत्सवा दिसा सांगे म्हालांतलो गोंसाय (देवाचो एक सेवेकरी, ताचेकडेन त्रिशूळ आनी शंख आसता) येवन, हातांत त्रिशूळ घेवन दिमी मोडून भूतनाथाक सलाम करता.

पेडणें गांवांत दसऱ्याक आनी आश्विन पुनवेक रवळनाथाच्या तरंगा-अवसरावांगडा भूतनाथाचो तरंग-अवसर आसता. हांगा भूतनाथाचो अवसर गुरवाचेर येता. पूण नित्याक भूतनाथाची पुजा क़ोठकार (कोठी वा तिजोरी सांबाळपी) करता. हांगा भूतनाथ वयर दोंगरार आसा. पूण ताका देवूळ ना. देखून आश्विन पुनवेच्या उत्सवाक भूतनाथाचें तरंग रागान वता. त्या वेळार फुडलें वर्स येता मेरेन देवूळ बांदपाचें उतर दिवन ताका फुसलावन परत हाडटात. हो प्रसंग दर वर्सा घडटा. 'एके रातीन आनी एके वातीन' देवूळ बांदून पुराय करपाची ताची अट आसता.

दिवचल-आमोण्यां, भूतनाथ बोंदरेर आसा. थंय ताची एक ल्हानशीच घुमटी आसा. हांगा भूतनाथाक मान करपाचो वा हेर देवसपण करपाचे सगळे अधिकार सावंत घराण्याक आसा. ह्या गांवचें सगळें देवसपण निमाणें भूतनाथाच्या पांयांकडेन हाडून सोंपोवपाची चाल आसा.

अशी एक आख्यायिका आसा, की आपल्या थळांनी रातचो भोंवडेक भायर सरिल्लो भूतनाथ तारीची वाट पळयत आमोणें (दिवचल) गांवांत बंदरार उबो राविल्लो. कोंब्यान पयलो साद घालचे पयलीं ताका पलतडीं वचूंक जाय आशिल्लें. पूण तारीक येवपाक कळाव जालो आनी खंयच्यान तरी कोंब्यान साद घालो. देखून भूतनाथ थंयच बंदरार उरलो.

- जयंती नायक

**भूतान** : दक्षिण आशियांतलें एक राजेशायी राष्ट्र. क्षेत्रफळ सु. ४६,६२०चौ. किमी. अक्षवृत्तीय विस्तार २६°४५" उत्तर ते २८° उत्तर आनी रेखावृत्तीय विस्तार ८९° ते ९२° उदेंत असो आसा. ह्या देशाचे अस्तंतेक सिक्कीम आनी तिबेटांतलें चुंबी देगण, दक्षिणेक आसाम आनी अस्तंत बंगाल, उदेंतेक भारताचो अरुणाचल प्रदेश, आनी उत्तरेक तिबेट आसा. थिंपू हें गिमांतलें आनी पारो हें शियाळयांतलें राजपाटण. १७ डिसेंबराक भूतान आपलो राश्ट्रीय दीस मनयता.

'भूत लोकांची' भूंय ना जाल्यार 'भू-उत्तान' श्रेश्ठ भूंय हाचेवयल्यान ह्या प्रांताक हें नांव मेळळें अशें मानतात. 'ड्रॅगन भूंय', दक्षिणेकडचें नंदनवन' (पॅरडायझ ऑफ द साऊथ) आनी हेर नांवांनी ह्या देशाक वळखतात. भारतीय पुराणांत ह्या देशाचो 'मद्र' असो उल्लेख केला. कश्यप ऋषीची बायल 'भूति' हिच्या वंशजांची भूंय अशेंय ह्या देशाचें वर्णन केलां. थळाव्या लोकांच्या मतान ही वज्रदानवांची विहारभूंय. हांगाच्या पर्वतांतेंगशांचेर वज्रदानवांचो संचार आसता. ड्रुक्पा म्हळ्यार वज्रमानव हें हांगाच्या मुळाव्या लोकांचें आदलें नांव आशिल्लें अशें मानतात.

**भूंयवर्णन** : भूतानाचो चडसो वाठार पर्वतांनी आनी दाट रानांनी रेवडायल्लो आसा. तिबेटाकडेन वचपी पांच खिंडी ह्या वाठारांत आसात. भूतानाच्या तीन सैमीक विभागांनी उत्तर भूतान, मध्य भूतान आनी दक्षिणेकडच्या दुआराचे मळांचे प्रदेश आस्पावतात. उत्तर भूतान ग्रेट हिमालयाचे रांकेंत मोडटा. ह्या विभागांत अवसादी खडपांचे दोंगर मेळटात. 'पारो चू' च्या वयल्या देगणांनी इर्मलीन ग्रॅनायट प्रकारची माती मेळटा. उत्तरेकडच्या बर्फान भरिल्ल्या वाठारांत ७,३००मी. परस चड उंचायेचीं बरींच तेमकां आसात. सादारणपणान ३६५०मी. ते ५,४७५मी. ऊंच आशिल्ल्या ह्या दोंगरी वाठारांत खूब चरवाचीं मळां आसात. गिमांत ह्या मळांनी याक जनावरांक सोडटात. ह्या वाठारांत हीम न्हंयोय आसात.

मध्य भूतान हो ग्रेट हिमालय पर्वताचे दक्षिणेकडचो सोंडेचो प्रदेश. हांगाच्यो पर्वतांवळी दक्षिण-उत्तरेक पातळिल्ल्यो आसात. ह्या देशांतल्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो ह्या पर्वतांवळीं मदल्यान व्हांवतात. मध्य भूतानांत १,८०० ते २,७५०मी. उंचायेच्या प्रदेशांत पिकाळ देगणां आसात. पारो, हा, थिंफू आनी पुनाखा हीं हांगाचीं मुखेल देगणां आसात.

भूतानाचे दक्षिणेक दुआरा मळांचो प्रदेश आसा. हो वाठार खूब सकल आसा. उदेंत वाठारांत कोळशाचे पातळ थर आसात. भूतानाच्या चडशा न्हंयांचो उत्तरेकडच्या पर्वत वाठारांत उगम जाला आनी त्यो दक्षिणेकडेन व्हांवतात. वाँग चू, संकोश, तोंगसा चू, बूमथांग, मनास ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो.

**हवामान** : भूतानाची भूंय चड ऊंच आनी सकयल आशिल्ल्यान हाचो परिणाम हांगाच्या हवामानाचेर जाता. पर्वतांवळी आनी दाट रानांक लागून तापमान गिमांत लेगीत शितळ आसता. शियाळयांत हीम पडटा. दुआराच्या मळांच्या प्रदेशांत पावस खूब पडटा आनी गीम ऊबदार आसता. मध्य भूतानांत १,१०० ते २,३०० मी. उंचायेच्या प्रदेशांत कडक शियाळो आनी गीम ऊबदार आसता. हांगाचो चड ऊंचायेचो वाठार हिमान भरिल्लो आसता आनी हांगा शियाळो चड थंड आसता. हांगा उंचायेप्रमाण पावसाच्या वितरणांत १०० सेंमी. ते ५८० सेंमी. मेरेन फरक दिसून येता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** भूंयरचणुकेचें वेगळेंपण, चड पावस आनी सदांच पाचवीं रानां हांकां लागून भूतानांत विंगड विंगड प्रकारची वनस्पत आनी मोनजात मेळटा. चड पावशी वाठारांत सदापाचवीं रानां आसात. दोंगरांच्या माथ्यांचेर पायन, स्प्रूस, फर, लार्च, ओक, बीच, मॅपल, सायप्रस, जूनिपर ह्या जातींचे रूख आसात. उत्तर भूतानांत आल्पीय प्रकारची वनस्पत आसा. हांगाच्या चड उंचायेवयल्या वाठारांनी तणांचे प्रदेश आसात.

भूतानांत तण आनी मांस खावपी मोनजात बरीच आसा. उणे उंचायेच्या रानांनी वाग, बिबटे आनी गेंडे ही मोनजात दिश्टी पडटा. दक्षिणेकडच्या रानांनी हत्ती, सांबर, वांस्वेल, हरणां, काळवीट आनी हेर मोनजात खूब प्रमाणांत आसा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** भूतानाच्या आदल्या इतिहासाची चडशी म्हायती मेळना. हाचीं कारणांय खूब आसात. सागास म्हायतीवयल्यान हांगाचे राजा तशेंच हेर भूतानी आपल्या शेजारच्या राश्ट्रांचेर आक्रमणां करीत आशिल्ले आनी खूब फावटीं सत्तेंत बदल जाल्यान राज्याची स्थिती इबाडली. हांगा जावपी भूंयकांपांक आनी म्हाहुंवारांक लागून राश्ट्राचें खूब नुकसान जालें तशेंच इतिहासीक पुरावेय नश्ट जाले. हाका लागून भूतानाचो आदलो इतिहास भारतीय, चीनी आनी ब्रिटीश भोंवडेकारांनी बरयल्ल्या वर्णनाचेर आनी तोंगसा पेनलोपाक सांपडिल्ल्या कांय हातान बरयल्ल्या लिखाणाचेर आदारिल्लो आसा.

इसवी सनापयलीं भूतानाचेर भारतीय राज्यकर्त्यांचो शेक आशिल्लो अशें मानतात. आदलो भोटांग, भोटांत, भोतान प्रदेशावयल्यान हाका 'भूतान' नांव मेळ्ळें अशें मत आसा. भारतीय पुराणांतल्या कांय उल्लेखांवयल्यान आनी लासेनाच्या मतान तिबेट होच भूतान. भूतानाच्या प्रदेशांत सातव्या शेंकड्यांत भारतीय संस्कृतायेचो व्हड प्रमाणांत प्रसार जालो. राजकीय आनी समाजीक मळांचेर भारतीय प्रभाव चड आशिल्लो. ह्या तेंपार भूतानाचेर कुच बिहाराचो संगलदीप नांवाचो राजा राज्य करतालो. मुखार कामरूप देशाच्या शेकातळा हो प्रदेश आयलो. ६५०च्या सुमाराक राजा भास्करवर्मन हाच्या मरणाउपरांत हो प्रदेश कामरूप देशासावन वेगळो जावन हांगा ल्हान-व्हड अशीं साबार राज्यां निर्माण जालीं. आठव्या शेंकड्याच्या मदल्या काळांत नालंदा विद्यापिठांतल्या आचार्य पद्मसंभव हाणें भूतानांतल्या लोकांक बौध्द धर्माचें शिक्षण दिलें. ह्या प्रदेशांक त्या तेंपार 'मॉन' म्हणून वळखताले. त्या काळांत ह्या प्रदेशांत उत्तरेक केखि -खा-रा- थाँग राजा राज्य करतालो आनी दक्षिणेक 'सिंधू प्रदेश' ह्या वाठारांत नागुछी हो राजा राज्य करतालो. मुखार नागुछीच्या पुतांनी उत्तरेक तिबेटांतल्या दोरजी-टाँगमेरेन आनी अस्तंतेक सिक्कीमा मेरेन आपल्या राज्याचो विस्तार वाडयलो. दक्षिणेक भारतीय शिमेलागच्या प्रदेशांत राज्यविस्ताराचे यत्न करतना भारताच्या तराई प्रदेशाचेर राज्य करपी नबुदारा नांवाच्या राजाकडेन जाल्ल्या झुजांत नागुछीच्या तालामेंबर ह्या व्हडल्या पुताक मरण आयलें. ताका लागून ह्या दोनूय राजांभितर दुस्मानकाय वाडत गेली आनी ह्याच तेंपार आचार्य पद्मसंभवान दोनूय राजांक एकठांय हाडून भारत-भूतान हांचेमदली शीम थरयली. ह्या दोनूय राजांभितर कबलात जावन दोगांयनी एकमेकांचेर केन्नाच आक्रमणां करप ना असो सोपूत घेतलो· हाका लागून मुखार सुमार एक शेंकडो तरी ह्या प्रदेशांत शांतताय आशिल्ली. णवव्या शेंकड्याचे सुरवेक भूतानाचेर तिबेटी लोकांच्यो घुरयो येवपाक लागल्यो. ८६१-९०० ह्या काळांत ल्हव ल्हव भूतान तिबेटी लोकांच्या शेकातळा गेलो. तिबेटाचो बॉन धर्माचो राजा दर्म हाका बौध्द धर्माचो दुस्वास आशिल्ल्यान ताणें भूतानाचेर घुरी घालून हो प्रदेश लुटलो. बाराव्या शेंकड्यांत साबार तिबेटी लामा भूतानांत गेले. तेराव्या शेंकड्यांत ह्या प्रदेशाचेर तिबेटांतल्या ड्रुक्पा संप्रदायाचे सत्तेची स्थापणूक जाली. लामांनी भूतानाच्या प्रदेशांत बौध्द देवळां आनी विहार उबारले. लामांमदलो शाक्य मुनी हाणें पंदराव्या शेंकड्यांत भूतानांत साबार बौध्द मठ उबारले.

भूतानाच्या प्रदेशांत ल्हान ल्हान राज्यां निर्माण जावन हांगा लामांचो प्रभाव वाडत गेलो. तिबेटांत विंगड विंगड बौध्द पंथांभितर सत्तासर्त चालूच आशिल्ली. हाका लागून हांगाच्या कांय लामांनी दक्षिण भूतान, नेपाळ आनी सिक्कीम ह्या प्रदेशांनी आपली सत्ता वाडोवपाचो यत्न केलो. निमाणेकडेन सतराव्या शेंकड्यांत भूतानांत ड्रुक्पा सांप्रदायिकांक आपले सत्तेची स्थापणूक करपांत यश आयलें.

कुचविहार आनी भूतान हांचेमदीं खूब काळ संघर्श चालूच आशिल्लो. १७७२त कुचविहाराच्या राजाचो खून जालो तेन्ना भूतानच्या देवराजा शीडर हाणें कूचबिहाराचेर घुरी घालून हांगा आपले मर्जेंतलो राजा नेमलो. थळाव्या लोकांनी हे गजालीक विरोध केलो आनी ब्रिटीश ईस्ट इंडिया कंपनीचो आदार मागलो. हाका लागून ब्रिटिशांक भूतानांत रिगपाक निमित्त मेळ्ळें. कंपनीचो गव्हर्नर जनरल वॉरन हेस्टिंग्स हाणें भूतान आपल्या ताब्यांत घेवन खगेंद्रनारायण हाका भूतानाचे गादयेर बसयलो. २५ एप्रिल १७७४ दिसा भूतानान कंपनी सरकाराकडेन शांततायेची कबलात केली. हे कबलातीक लागून ब्रिटिशांक तिबेटाकडेन वेपार वाडोवपाची संद मेळ्ळी. पूण ही कबलात खूब काळ तिगलिना. १८२६ त जेन्ना कंपनीन आसाम घेतलें, तेन्ना शिमे प्रस्नावयल्यान भूतानाचो ब्रिटीश सरकाराकडेन संघर्श सुरू जालो. हो वाद हांगाच सोंपोवचो म्हणून १८४१ त ब्रिटीश कंपनीन 'दुआर' प्रदेश आपल्या शेकातळा दवरून भूतानाक दर वर्सा धा हजार रुपया दिवपाचें मान्य केलें. भूतानाची इबाडिल्ली स्थिती सुदारची म्हणून १८६३ त ब्रिटीश सरकारान बंगालचो सचीव ॲशले ईडन हाका भूतानांत धाडलो. पूण तोंगसाच्या राज्यपालाच्या चेपणाखाला भूतानाच्या धनीपणाचो प्रदेश भूतानाक परत करचो म्हणून देवराजानूच ईडनाकडल्यान बळान कबलात करून घेतली. ईडन हिंदुस्थानांत परत आयले उपरांत सरकारान ही कबलात मोडून उडोवन

भूतानाआड झूज उबारलें. ह्या झुजांत भूतानाक हारोवन १८६५ त सिंचुला हांगा दोगांयभितर कबलात जाली. हे कबलातीवरवीं भूतानांत फुकट वेपार करपाचे अधिकार ब्रिटिशांक मेळ्ळे. हिंदुस्थानाच्या प्रदेशांत भूतानान घुरयो घालच्यो न्हय म्हणून ब्रिटिशांनी भूतानाक दर वर्सा रु. ५०,००० दिवपाचें मान्य केलें. जिग्मे नामग्याल हो १८७० त भूतानाचो सत्ताधीश जालो. १७ डिसेंबर १९०७ त भूतानाच्या देवराजाक मरण आयलें आनी युजेन हो भूतानाचे गादयेर आयलो. तेन्नासावन हांगा वंशपरंपरेन राजसत्ता सुरू जाली. ८ जानेवारी १९१० दिसा ब्रिटिशांची भूतानाकडेन नवी कबलात जावन, हे कबलातीवरवीं भूतानान आपले सगळे परकी संबंद ब्रिटिशांच्या सल्ल्यान थारावचे अशें मान्य केलें आनी ब्रिटिशांनी भूतानाचे राज्यवेवस्थेंत कसलींच आडमेळीं हाडचेनात अशें मान्य केलें.

भारत स्वतंत्र जाले उपरांत, एप्रिल १९४८ त भूतानान आपलें एक शिश्टमंडळ भारतांत धाडून ८ ऑगस्ट १९४९त भारत आनी भूतान हांचेमदीं कबलात केली. हे कबलातीवरवीं भूतानाचे आग्नेयेकडचो देवणागिरी प्रदेश भारतान भूतानाक परत दिलो आनी वर्सुकी ५ लाख रुपयांची रक्कम १० लाखांमेरेन वाडयली. परकी संबंदांविशीं भारताचो सल्लो घेवपाचें भूतानान मान्य केलें. १९५२ वर्सा जिग्मे दोरजी वांगचूक हो भूतानाचे गादयेर आयलो. हाची सत्ता आशिल्ली तेन्ना भूतानांत १९५३ वर्सा राश्ट्रीय विधानसभा, १९६५ त शाही सल्लागार परिशद आनी मे १९६८ त देशाच्या पयल्या मंत्रीमंडळाची स्थापणूक जाली. हाका लागून जिग्मे दोरजी हाका आधुनिक भूतानाचो शिल्पकार मानतात.

चीनान १९५९ त तिबेट घेतिल्ल्यान सुमार ४,००० तिबेटी निर्वासितांनी भूतानांत आलाशिरो घेतिल्लो. १९७९ त भूतानाचे राश्ट्रीय विधानसभेंत एक आदेश काडून तिबेटी निर्वासितांनी त्या वर्सा भितर एक तर भूतानी नागरीक जावंचे वा तिबेटाक परत वचचें अशें जाहीर केलें. त्या वर्सा ऑक्टोबरांत भारत सरकारान भूतानांतल्या तिबेटी निर्वासितांक भारतांत आलाशिरो दिवपाचें न्हयकारलें. अखेरेक जुलय १९८० त चडशा तिबेटी लोकांक भूतानाचे नागरीक जावंचे पडले.

भूतानांत निरंकूश राजेशाय (autocratic) आसा. ती वंशपरंपरेन चलत आयिल्ली आसा. आधुनिक शासन आनी प्रशासनाचे कसलेच नेम हांगा लागू जायनात. राजाक पालव दिवपाक हांगा शाही सल्लागार परिशद (Royal advisery council), मंत्रीमंडळ, राश्ट्रीय विधानसभा आनी देशांतले सुमार ६,००० लामांचे मुखेली असो सगळयांचो शासनांत आनी प्रशासनांत आस्पाव जाता. राश्ट्रीय विधानसभेचो तेंप तीन वर्सांचो आसता. हातूंत १५० वांगडी आसतात. तातूंतले १०१ लोकांनी वेंचून काडिल्ले आसतात आनी १० सुवाती धर्मीक संस्थांच्या प्रतिनिधीक राखून दवरिल्ल्यो आसतात. उरिल्ल्या वांगड्यांमदीं शासकीय अधिकारी, मंत्री आनी शाही सल्लागार परिशदेच्या वांगड्यांचो आस्पाव आसा. कायदे करप, राजकीय आनी संविधानात्मक गजालींचेर सल्ले दिवप आनी हेर कामां विधानसभा करता. मंत्रीमंडळ आनी शाही सल्लागार परिशद विधानसभेक जापसालदार आसतात. एका वर्साक विधानसभेचीं दोन अधिवेशनां भरतात.

**अर्थीक स्थिती :** भूतानाची अर्थवेवस्था बऱ्याच प्रमाणांत शेतवडीचेर आनी पशुपालन वेवसायाचेर आदारल्या. खर देंवत्यो, पडींग जमीन, दाट रानां आनी ऊंच प्रदेशांतल्या तणाच्या मळांक लागून थोडीशीच जमीन लागवडी खाला आसा. मध्य भूतानांत आशिल्लीं पिकाळ देगणां मात अर्थीक नदरेन म्हत्वाचीं आसात. भात, गंव, सातू, मको, बटाट, संत्रां, सफरचंदां आनी कड्डुण हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. पशुपालन वेवसाय देशांत सगळ्याक चलता. धनगर लोक गिमाच्या दिसांनी आपल्या गोरवांक आनी मेंढरांक घेवन दोंगरी वाठारांनी वतात आनी शिंयाळ्यांत सकयल्या प्रदेशांनी आपलो राबितो करतात.

रानांतली संपत्ती चड आसुनूय येरादारीची बरी सुविधा नाशिल्ल्यान तिचो फावो तो उपेग जावंक शकना. दोंगरी वाठारांतलीं रानां मात म्हत्वाचीं आसात. तांबें आनी जिप्सम हीं हांगाचीं मुखेल खनिजां. तेभायर हेर कांय वाठारांनी वैदूर्य, टूफा, डोलोमायट, ग्रॅफायट, शिंशें, जस्त, चूनखडी हांचेय सांठे देशांत कांय प्रमाणांत आसात.

देशांतल्यान लाकूड, फळां, सोरो, लाख, मेण, कस्तुरी, हतयाचे दांत, हातमागाचें लुगट, खनिजां हांची निर्यात जाता. चडसो वेपार भारताकडे आसलो तरी लाकूड, वेलची आनी म्होंव हांची निर्यात हेर आशिया देशांनी आनी युरोपाक जाता.

भारत सरकाराच्या सक्रीय सहकारान आनी अर्थीक आदारान भूतानान चार पंचवर्सुकी येवजणो आंखल्यो. पयल्या दोन येवजणांचो पुराय खर्च भारतान केल्लो. हे येवजणेंत रस्ते आनी शिक्षण हांचेर चड भर दिल्लो. दुसऱ्या आनी तिसऱ्या येवजणांनी शेतवड आनी पशुपालन हांचेर चड भर दिल्लो. हांगा फस्कां, शाबू, मेणवाती, शेंदऱ्यो करप आनी हेर उद्देगूय नेटान चलतात.

**लोक आनी समाजजीण :** भूतानाक लागीं आशिल्ल्या तिबेट, ब्रह्मदेश (मियानमार), नेपाळ आनी भारत हांचो ह्या प्रदेशाचेर चड प्रभाव पडला. उत्तर भूतानांत मोंगोल वंशीय लोक मध्य भूतानांत भारतीय आनी उत्तर भूतानी हांची वंशीक भरसण जावन हांगा नवोच समाज तयार जाला.

भूतानांत विंगड विंगड वंशाचे लोक आसले तरी भूतिया लोकांची संख्या चड आसून ते ड्रुक्पा संप्रदायाचे अनुयायी आसात. महायान बौध्द हो देशाचो अधिकृत धर्म. देशांत सुमार ६,००० लामांचो राबितो आसा. शेतवड आनी पशुपालन हो हांगाच्या लोकांचो मुखेल वेवसाय. च्या हें तांचें आवडीचें पेय. जाण्ट्यांमुखार वतना पांयतणां काडपाची

पद्दत आसा. हांगाच्यो बायलो खांदाकडच्यान पांयांमेरेन किर (झगो) घालतात आनी ताचेर तीं जाकीट घालतात. सुती, रस्माचे आनी लोकरीचे अशे विंगड विंगड प्रकारचे कपडे हे लोक वापरतात. हांगाच्या लोकांक रंगीत कपडे चड आवडटात. आयच्या काळांतल्या विंगड विंगड भेसांचोय तांचेर प्रभाव पडला. ह्या लोकांचें जेवण सादें आसता. शीत आनी सुकें मांस हें भूतानाच्या लोकांचें मुखेल जेवण. धोणूविद्या हो भूतानाचो राश्ट्रीय खेळ. सणा परबेक ह्या खेळांच्यो सर्ती आसतात.

देशांत साक्षरतायेचें प्रमाण साप उणें. फकत पारो देगणांत साक्षरतायेचो कांय प्रमाणांत प्रसार जाला. भूतानांत शिक्षणाची उदरगत जावंक नाशिल्ल्यान हांगा तंत्रज्ञ, दोतोर, शिक्षक, कुशल कामगार साप उण्या प्रमाणांत आसात. दझाँगखा, इंग्लीश, नेपाळी ह्यो भाशा व्हड प्रमाणांत उलयतात. चडशे लोक गांवगिऱ्या वाठारांनी रावतात. थिंपू, पारो, वांगडू, ताँगसा, ताशिगांग, फुंतशॉलिंग हीं हांगाचीं मुखेल शारां.

- कों. वि. सं. मं.

**भूदान :** स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांतलें एक म्हत्वाचें आनी नामनेचें अर्थीक-नैतिक आंदोलन. महात्मा गांधीचो एक व्हड अनुयायी विनोबा भावे हो ह्या आंदोलनाचो जनक.

महात्मा गांधीच्या मरणा उपरांत ताचो वावर फुडें चालू दवरपाखातीर ताच्या अनुयायांनी सर्वोदय समाज स्थापन करपाचो निर्णय घेतलो. एप्रिल १९५१ त हैदराबाद लागसल्ल्या शिवरामपल्ली गांवांत सर्वोदय समाजाचें तिसरें अधिवेशन जालें. ह्या संमेलना उपरांत १५ एप्रिल १९५१ दिसा साम्यवादी दुश्ट प्रवृत्तीच्या चळवळींनी बेजार जाल्ल्या तेलंगणांत शांतीचो संदेश पावोवपाच्या हेतान विनोबा भावेन पदयात्रा सुरू केली. १८ एप्रिल १९५१ दिसा तो नळगंडा जिल्ह्यांतल्या पोचमपल्ली ह्या गांवांत गेलो. थंय ताका मेळूंक आयिल्ल्या हरीजन लोकांची ताणें वासपूस केली, तेन्ना जमीन मेळ्ळयार तांचो प्रस्न सुट्टलो अशें कळटकच थंय हजर आशिल्ल्या हेर लोकांमदल्या रेड्डी नांवाच्या एका मनशान शंबर एकर (४०.४६ हॅक्टर) जमीन दिवपाचें थरयलें आनी हांगाच्यान भूदान सुरू जालें. हे घडणुकेन एक व्हड आंदोलन सुरू जालें आनी शांतीयात्रेचें रुपांतर भूदानयात्रेंत सुरू जालें.

उपरांत वेगवेगळ्या राज्यांतल्यान हेर सर्वोदय वावुरप्यांच्योय पदयात्रा सुरू जाल्यो. मार्च १९६७ मेरेन भूदानांत ४२ लाख ७० हजार एकर (१७,२७,६४२ हॅक्टरांमेरेन) जमीन मेळिल्ली. तातूंतली सुमार ५०% जमीन बिहारांतल्या लोकांक दिली. मेळिल्ले जमनींतलें १५ लाख एकरांचें वांटप जालां. भूदानांत प्रेमदान, बुध्दिदान, श्रमदान, संपत्तीदान आनी जीवदान अशें पंचदान आंदोलन सुरू जाल्ल्यान, सगळ्यांकूच तातूंत वांटो घेवप शक्य जालें. लोकांमदीं जागृताय करप, जिणेविशींची तांची नदर बदलप आनी त्या हेतान समाजाची उदरगत करप अशें तत्त्वगिन्यान विनोबा भावेन सांगलें.

भूंय नाशिल्ल्यांक भूंय दिली म्हणजे तांच्यो अडचणी सुटल्यो अशें नाशिल्लें. ती कसपाखातीर लागपी साधनांची तांकां गरज आशिल्ली. शेतीचेर आदारिल्ली तांची जीण घट बुन्यादीचेर उबारपाक ग्रामराज्य स्थापणूक, ग्रामोद्योग आदी कार्यांची गरज उपरासली. देखून सर्वोदय वावुरप्यांनी ह्या कार्याक व्यापक रूप दिवपाचें थरयलें.

भूंय नाशिल्ल्यांची गरज भागोवप हो ह्या आंदोलनांतलो मुखेल हेत नासून, भुंयेविशीं तेचपरी संपत्तीविशीं लोभ ना करप हो मुखेल हेतू आशिल्लो. शासनमुक्त समाजाची उदरगत जनशक्तीच करूंक शकता म्हणून फकत कायद्यान धनीपण नश्ट करप बरोबर न्हय. ह्या विचारांतल्यानूच ग्रामदानाची कल्पना मुखार आयली. ही कल्पना मूर्त स्वरुपांत हाडपाखातीर जीवदान गरजेचें जालें.

हॅलॅम टॅनिसन, श्रीमती डॉरॉथी चेस्टरबोल्स, रॉबर्ट ट्रम्बुल, ताया झिंकिन आदी जायत्या अस्तंत्यांनी ह्या आंदोलनाची तोखणाय केली. पूण विचारीक आनी वेव्हारीक मळावयल्यान ताचे आड हरकतूय घेवप जाली. ह्या आंदोलनान शेतीचो प्रस्न कितलेमेरेन सुट्टलो हो प्रस्न निर्माण जालो. लोकसंख्येच्या मानान पिकाळ जमनीचें प्रमाण उणें आशिल्ल्यान भूंय नाशिल्ल्यांची गरज भागोवप अशक्य जालें.

पांच कोटी एकर भूंय मेळोवपाचे येवजणेक १०% लेगीत यश मेळ्ळेंना. तेचपरी मेळिल्ले भुंयेंतली खूबशी जमीन नापीक वा वादग्रस्त धनीपणाची आशिल्ली अशें कळ्ळें. मेळिल्ले भुंयेंच्या वाटंपाविशीं सर्वमान्य अशी वेवस्था अजुनूय जावंक ना. भूदानांत मेळिल्ले जमनीचें पुनर्वाटप करपाविशीं राज्य सरकाराकडल्यान सगळे तरेचो आदार जाल्लो आसुनूय बेचाळीस लाख एकर जमनींतली फकत एक चवथय जमनीचें पुनर्वाटप आतांमेरेन जावंक शकलां. वेगवेगळीं राज्य सरकारां आतां भूदानांत मेळिल्ले जमनीच्या वांटपाविशीं कायदे करतात.

भूदानाक लागून जमनीचे कुडके करपाचे प्रकार वाडटात. जमीन नाशिल्ल्यांक फकत ती दिली म्हणून तांचे प्रस्न सुटनात. बियाणीं, सारीं विकतीं घेवपाखातीर तांकां अर्थीक पालव दिवपाची गरज आसता. देखून भूदान चळवळ ही साम्यवादाचेर उपाय अशें म्हणप समा जावंचें ना. सुरवातीक जरी हे चळवळीन नेट घेतिल्लो आसलो तरी सद्याक क्रियाशील कार्यकर्त्यांचो उणाव आशिल्ल्यान ही चळवळ फाटल्या पंदरा वर्सांसावन थांबल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**भूदास पद्दत :** मध्ययुगीन युरोपांतल्या सरंजामशायेच्या शेकाखालची शेतकामत्यांची अवस्था भूदास पद्दत म्हणून वळखतात.

त्या काळांत ल्हान शेतकामत्यांचो असो एक वर्ग आशिल्लो, तो स्वतंत्रपणान शेत वेवसाय करूंक शकनाशिल्लो. ते व्हडल्या जमीनदारांचे गुलामूय नाशिल्ले. ताका लागून उपजिविकेखातीर आनी जमनीचे राखणेखातीर तांकां आपल्यो जमनी व्हडल्या जमीनदारांकडेन दिवंच्यो पडटाल्यो. तांचे सुवातेंत तांकां परावलंबी कूळ म्हणून पिळग्यान पिळग्यो कश्ट करचे पडटाले. हातूंतल्यानूच भूदास पद्दत जल्मली आनी वाडत गेली. भूदासाचो वर्ग समाजांतलो दुय्यम घटक अशें मानपाक लागले. जमीनदारांखातीर कश्ट करप हीच तांची आनी तांच्या कुटुंबियांची जीण जाली. दुबळेंपण, परंपरेचो प्रभाव आनी अज्ञान हाका लागून भूदासांक, जमनीवयलो हक्क सोडचो पडलो. खोंपींतली दुख्खी जीण जियेवंची पडली. भूदासांची संख्या सव्या शेंकड्यासावन वाडत वचून बाराव्या आनी तेराव्या शतमानांत ती सगळयांत चड जाल्ली दिसता. गांवगिऱ्या वाठारांनी हे वेवस्थेची चड पोसवण जाल्ली. मध्यवर्ती सरकाराचो अभाव, न्याय मेळपाची अनिश्चीतताय, वस्तुविनियमाची वेवस्था, बाजाराचो अभाव ही सगळी परिस्थिती भूदास पद्दत समाजांत रूढ जावपाक पोशक थारली. जमीनधनयाचे मर्जेक लागून भूदासांची दीसपट्टी जीण नियंत्रीत जावपाक लागली. धनयांचें लक्ष भूदासांच्या फकत शारिरीक श्रमाचेरूच आसतालें. समाजान वा कायद्यान भूदासांक खंयचेंच संरक्षण दिवंक नाशिल्ल्यान ह्या काळांतली तांची अवस्था दयनीय आशिल्ली. दास्यत्व हें वंशपरंपरागत थरलें. दासाचेर धनयाची पुराय सत्ता, न्यायालयांत वचपाचो भूदासांक हक्क नाशिल्लो.

चवदाव्या शतमानासावन भूदास पद्दतीक आळाबंद बसूंक लागलो. अस्तंत युरोपांत भूदासांक मुक्त केले. सोळाव्या शतमानांत जाल्ल्या शेतकारांच्या लढ्याक लागून भूदास पद्दत नश्ट जावपाक परिस्थिती अनुकूल जाली. भूदासांची अर्थीक परिस्थिती ल्हव ल्हव सुदारूंक लागली. अठराव्या शतमानांत फ्रेंच राज्यक्रांती उपरांत ल्हान शेतकारांची भूदासांतल्यान मुक्ती जाली.

ब्रिटिशांच्या काळांत भारतांत च्या च्या मळयांतल्या भूदासांक 'कूली' अशें म्हण्टाले. निळीच्या मळयांनी काम करपी भूदासांपरस च्या च्या मळयांतल्या कामगारांची स्थिती खूब वायट आशिल्ली. निश्पाप आनी गरीब कूली जल्मान स्वतंत्र आशिल्ले. पूण उपरांत तांकां बळयां कामगार जावचें पडटालें. च्या च्या मळयांनी काम करपी ह्या कामगारांक कबलात करून बांदून घेताले. ल्हव ल्हव ते मळयाच्या वेवस्थापकाच्या चपक्यांत सांपडटाले आनी गुलामांची जीण तांकां जियेंवची पडटाली. अशिक्षीत आनी दुबळया शेंकड्यांनी दादल्या-बायलांक च्या च्या मळयाच्या धनयांक खोशी दवरचे पडटाले. उण्या पांवड्याचें अन्न, उणे कपडे आनी थोडी-भोव राबितो वेवस्था अशे परिस्थितीक तांकां तोंड दिवचें पडटालें. जमीन धनयाचीं सेवा करपाचीं कामां बायलांकूय करचीं पडटालीं. तांणी ताचेपसून सुटका करून घेवपाचो यत्न केलो जाल्यार पयलींपरसूय वायट वागणूक तांकां मेळटाली. कामगार दादल्या-बायलांक क्षुल्लक कारणांखातीर वेताचे बडयेन मारताले आनी क्रूरपणान छळटाले. अशा वेळार दुखापत जाली वा तातूंत ताका मरण आयलें जाल्यार खंयच्याच प्रकाराची चवकशी जायनासली. हेविशीं जाल्ले गुन्यांव मळयाभायर हेर लोकांमेरेन पावनासले. जमीनदाराच्या जाचांतल्यान कुलीची सुटका जाली वा कबलात सोंपतकच तो सुखरूप भायर पडलो जाल्यार मोटें भाग्य अशें मानताले. भारतांतल्या कूलींक सहन करपाक लागपी जुलमी प्रकारांचें काळीज फोडपी वर्णन खबरांपत्रांनी उजवाडायलें.

ब्राह्मो समाजाचो प्रसारक पंडीत रामकुमार विद्यारत्न हाणें आसामच्या च्या च्या मळयांतल्या कामागारांचे दयनीय परिस्थितीची म्हायती दिवन तांचेकडेन समाजाचें लक्ष ओडून घेतलें. ताचें बंगाली भाशेंतलें 'कुली कहाणी' हें पुस्तक ताचेरूच आदारिल्लें आसा. १८५९ त कायदो करून हे जुलमी पद्दतीचेर बंदी घाली. पूण परिस्थितींत व्हडलोसो फरक पडलोना. कामगारांचो मनीसपणा भायलो छळ चालूच आशिल्लो. 'इंडियन असोसिएशन ऑफ कलकत्ता' हे संस्थेन हो प्रस्न हातांत घेवन लोकांमदीं जागृताय केली आनी ब्रिटीश सरकाराकूय चड कडक कायदे करपाक भाग पाडलें. स्वतंत्र भारतांत कामगारांच्या कल्याणाचे कायदे केले. ताका लागून परिस्थितींत फरक पडत गेलो. कामगारांक मताधिकार मेळ्ळो. तांच्यो संघटना स्थापन जाल्यो. मळयांच्या धनयांचेर नियंत्रण बसूंक लागलें. स्वतंत्र भारतांतल्यान मळे कामगारांची भूदास सारकी पद्दत खूब प्रमाणांत नश्ट जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**भूपति पंडित (अठरावो शेंकडो) :** ओडियांतल्या प्रेम-पंचामृत ह्या नांवाजिल्ल्या काव्याचो कर्तो. भूपति पंडित हो मूळचो उत्तर प्रदेशांतलो सारस्वत ब्राह्मण आशिल्लो. ताच्या गुरूचें नांव चैतन्यदास. तीर्थयात्रेच्या निमतान तो पुरीक गेलो आनी थंयच राजाच्या दरबारांत कवी म्हणून रावलो.

भूपति पंडिताची आवयभास हिंदी आसून लेगीत ताणें ओडिया भाशेचेर प्रभुत्व मेळोवन, ओडियांत काव्यरचणूक केली. राधाकृष्ण आनी गोपी हांच्या रासलिलांचेर रचिल्लें ताचें 'प्रेम-पंचामृत' हें ओडिया भाशेंतलें श्रेश्ठ अशें काव्य मानतात. कृष्णाच्या रासलिलांवयल्या सगळ्या काव्यांभितर भूपती पंडिताच्या 'प्रेम-पंचामृता'ची सुवात खुबूच उंचेल्या पांवड्यावयली मानतात. भूपतिची प्रतिभा, पांडित्य आनी भक्तिभाव हांचो प्रत्यय ताच्या ह्या काव्यांत येता. ह्या काव्याभाशेनूच ताणें कृष्णाच्या मथुरेंतल्या वास्तव्याचेर एक 'भूपति चौतिसा' नांवाचें काव्य बरयलां.

- कों. वि. सं. मं.

**भूपाळी :** फांतोडेर, देवाक होरावपाखातीर म्हणपाचें भूप रागांतलें पद. ह्या पदांनी चड करून देवाक विनम्रतायेन जागो करपाची कल्पना आसता. ईश्वराचें स्तवन आनी ताच्या रुपागुणांचें वर्णन करून, 'हे देवा, सकाळ जाली, आतां जागो जा आनी जगाच्या उध्दाराक प्रवृत्त जा' असोय विचार आसता.

यशोदा, कौसल्या ह्यो कृष्ण, राम ह्या आपल्या भुरग्यांक फांतोडेर जागे करपाक असलीं पदां म्हण्टाल्यो अशें रामदास, होनाजी ह्या कवींनी आपल्या भूपाळयांनी म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**भूमका :** एक मातृदैवत. ही सुमार आठ-धा फूट उंचायेची रोयण. तिका कांयकडे भूमका, भुमकामाया, जाल्यार कांयकडेन सांतेर, सांतेरी अशेंय म्हण्टात. कांयकडेन हे रोयणीमुखार देवीचें मुखें वा मूर्त आसता. काळाप्रमाण कांयकडल्यो रोयणी जरी झडिल्ल्यो आसल्यो तरी थंय तांच्यो कुरवो आसात. हांगा भटाकडल्यान पुजा करून घेवप जाता. पूण थंय बळी दिनात. ह्या जाग्यार एक नाग आसता आनी ह्या नागाक मारिनात.

- कों. वि. सं. मं.

**भूमिती :** अंकगणित आनी बीजगणित हांचे फाटोफाट सगळयांक खबर आशिल्लो गणिताचो फांटो म्हळयार भूमिती. जशें बीजगणित हें अक्षरांचें गणित म्हणून आमी जाणात, तशेंच भूमिती म्हळयार ओळींचें आनी आकारांचें (curves and figures) गणित. पुर्विल्ल्या भारत देशांत भूमितीक 'रेखा गणित' अशें म्हण्टाले. वेगवेगळे तरेच्यो ओळी आनी तेवरवीं तयार जाल्ले आकार शिकपाचें शास्त्र म्हळयार रेखागणित. 'भू' म्हळयार भूंय आनी 'मिती' म्हळयार मेजपाचें शास्त्र. पुर्विल्ल्या ग्रीक देशांत वेगवेगळया आकारांचे भुंयेचे कुडके, शेतां, भाटां मेजपा वयल्यान भूमितीचो जल्म जालो. इंग्लीश भाशेंत भूमितीक Geometry अशें म्हण्टात.

इतिहासा पयलींच्या काळांतली भूमिती हो भूमितीचो पयलो पांवडो. त्या काळांत सूर्यचंद्राक पळोवन मनशाक वाटकुळांचो आकार समजून घेवपाचो अदमास लागलो. तशेंच, इंद्रधोणूवरवीं arc, कोळयाच्या जाळयावरवीं Polygon, तांतयावरवीं ellipsoid, शेतां भाटांच्या जाग्यांवरवीं चवकोन, त्रिकोन अशा खूबशा तरेच्या आकारांचो सोद लागलो. मागीरच्या काळांत ह्या विंगड विंगड आकारांक नांवां आनी व्याख्या दिवपावरवीं विज्ञानीक भूमिती (Scientific Geometry) तयार जाली. थालस (Thales) (इ. स. प. ६००) ह्या गणिततज्ञान धर्तरेची त्रिजा (radius) काडपाक भूमितीचो वापर केल्लो. पुर्विल्ल्या ईजिप्त देशांत नायल न्हंयेक हुंवार येवन सगळीं शेतां आनी भाटांचे नीस व्हांवन वताले. शेतकामत्यांक परतून परतून सगळे नीस आंखचे पडटाले. ह्या कामावरवीं इजिप्तांत भूमितीची उदरगत जावपाक लागली. इ.स.प. सुमार २८००-२३०० ह्या काळांत ईजिप्ताच्या लोकांनी राजा-राणी आनी हेर मानादीक लोकांचीं मडीं दवरपाक जीं Pyramids बांदिल्लीं, तांची आंखणी आनी जोखां अचूक आसात. ग्रीक लोकांक Regular Polyhedrons ची खूब आवड आशिल्ली. तांच्या कितल्याशाच कामांनी ह्या आकारांच्यो वस्तू दिसताल्यो. हे पांच आकार म्हळयार Tetrahedron, hexahedron, octahedron, dodecahedron आनी isocahedron. ग्रीकांचो असो विचार आसलो, हे पांच आकार म्हळयार उजो, पृथ्वी, वारो, विश्व आनी उदक.



टेट्राहेड्रॉन
(वारो)



हेक्झाहेड्रॉन
(पृथ्वी)



ऑक्टाहेड्रॉन
(उजो)



डोडेकाहेड्रॉन
(विश्व)



आयझोकाहेड्रॉन
(उदक)

ग्रीक लोक अवकाशशास्त्राचोय अभ्यास करताले. ताका लागून तांकां भूमितीची गरज लागताली आनी देखून तांणी भूमितीची उदरगत केली. धर्तरी आनी हेर गिरे हांच्या आकारांक लागून वाटकूळ, sphere, ellipse बी शिकपाक म्हत्व आयलें. हांगा थालस, पायथागोरस, प्लॅटो, ॲरिस्टोटल सारकिले एकापरस एक हुशार अशे भूमितीतज्ञ जावन गेले.

आमचे भारतभुंयेंत ऋषीमुनी यज्ञ करताले. तांचें यज्ञकुंड तरातरांच्या आकारांचें आसतालें. यज्ञकुंडाचें क्षेत्रफळ आनी घनताय काडपाक भूमितीचो आदार लागतालो. अवकाशशास्त्र आनी ज्योतीशशास्त्राचो अभ्यास करपी लोकांकूय भुमितीचो आदार घेवंचो पडटालो. सगळयांत पयलींचें अशें भारतीय गणित (इ.स.प. ८००-५००) सुल्वसुत्रांत मेळटा. सुल्वसूत्र म्हळयार राजवांचे नेम. हातूंतलीं चडशीं गणितां भूमितीय रचनांचेर आदारीत आसात आनी ह्यो रचना, राजू वापरून कशो करप हाचे नेम दिल्ले आसात. हातूंतल्या चडशा रचनांचो वापर धर्मयज्ञ करपाखातीर वापरताले. बुधयमान आनी आपास्तंभ हांणी हातूंतल्यो चडशो रचना रचिल्ल्यो आसात. आयज वापरांत आशिल्लो पायथागोरस सिध्दांत इ.स.प. ३००० वर्सांपयलीं भारतीयांक खबर

आशिल्लो. आनी ह्या नेमाचो वापर केल्ल्याच्योय नोंदी मेळटात. सव्या शेंकड्यांतल्या आर्यभट्टान सगळयांत पयलींचें मोल ३.१४१६ इतलें दिल्लें. नामनेचो भारतीय गणिततज्ञ ब्रह्मगुप्ता हाणेंय भूमितींत सोद आनी वावर केला. वाटकुळांत आस्पाविल्ल्या चार कोनी आकाराचें (cyclic quadrilateral) क्षेत्रफळ काडपाचो नेम ब्रह्मगुप्तान दिल्लो आनी आमी अजुनूय तो वापरतात. ब्रह्मगुप्ता फाटल्यान सुमार ५०० वर्सांनी भास्कराचार्य ह्या गणिततज्ञान ब्रह्मगुप्ताच्या वावराचो विस्तार केलो. ताणें बरयल्ल्या 'सिध्दांत शिरोमणी' ह्या पुस्तकांत क्षेत्रफळ घनताय काडपाच्यो रिती आनी नेम तरेतरेच्या आकारांखातीर दिल्ले आसात. तेभायर जैनांचे गणित (इ.स.प. ५००), महावीरचार्य गणितसार संग्रह (८५९ इ.स.) ह्या पुस्तकांवरवीं भारतीय भूमितीची उदरगत जाल्या.

भूमितीची उदरगत करपाचो मोलादीक वावर धाले युक्लिड (इ. स. प. ३३०-३२०) ह्या गणिततज्ञान केलो. ग्रीक गणिततज्ञांनी विकसीत केल्ली भूमिती तर्कशास्त्रीय आदाराचेर सोंपे रितीन आनी पद्दतशीरपणान बरोवन 'The Elements' हें पुस्तक युक्लिडान उजवाडायलें. युक्लिडा उपरांतच्या दोन हजार शेंकड्यांमेरेन भूमितीच्या गिन्यानांत व्हडलोसो बदल जालोना वा करपाचो कोणें यत्न केलोना. युक्लिडाची भूमिती ताणें दिल्ल्या सत्- वाक्यांचेर (axioms: statements which are true) आदारिल्ली आसा.

१७३३ त इटालियन जेजुईत पाद्री सचिरा (१६६७-१७३९) हाणें युक्लिडीयन भूमिती सावन वयल्या पांवड्याचें पावल मारपाचो यत्न केलो. पूण दोन नवे सिध्दांत दिवन ताणें आपलें काम अदर्यार सोडलें. हातूंतलो एक सिध्दांत घेवन कार्ल फ्रॅड्रिक गॉस (१७७७-१८५५)हाणें जर्मनींत, जोहानन बोलाई (१७९३-१८५६) हाणें हंगेरींत आनी निकोलाव लोबावेस्की (१७९३-१८५६) हाणें रशियेंत एकाच वेळार युक्लिडीयन भूमिती परस वेगळी भूमिती आसा म्हणपाचें सिध्द केलें. ह्या तिगांनीय आपलें काम स्वतंत्रपणान केल्लें. पूण लॉबावेस्कीन आपलें काम १८२९ त रशियन भाशेंत छापिल्ल्यान ह्या अ-युक्लिडीयन भूमितीक लॉबाचेव्हस्की भूमिती, (Lobach-evoki's Geometry) म्हणून नांव पडलें. साचेरीचो दुसरो सिध्दांत येवन बेलट्रामी हाणें दुसरी अयुक्लिडी भूमिती तयार केली. पूण ताचेपयलीं बेनहार्ड रिमान हाणें १८५४ त हेच तरेचें काम केल्लें आशिल्ल्यान हे भूमितीक 'रिमानियन भूमिती' (Riemanian Geometry) अशें नांव पडलें. ताचे उपरांत हेरमान वोन हेलमील्ट्झ, सोफस ली, फेलिक्स क्लेन हांणीय आपापल्यो अ-युक्लिडीयन भूमिती तयार केल्यो.

आदीं सांगिल्लेप्रमाण भूमितीचो सगळयांत पयलो पांवडो म्हळ्यार इतिहासापयलींची भूमिती, जी मनशान उपजत गिन्यानापसून तयार केल्ली. हे भूमितीक 'उपबोध भूमिती' (Subconscious Geometry) अशेंय म्हण्टात. ताचे उपरांत सरळ आनी सोंपे रितीचो उपेग करून विज्ञानीक वा प्रायोगिक भूमिती (scientific and experimental Geometry) तयार जाली. हे भूमिती वरवीं आकारांक नांवां आनी तांची व्याख्या दिवपाचें काम पुराय जालें. इ. स. प. तीन वा चार शेंकडे ग्रीक लोकांनी तर्कशास्त्राचो पालव घेवन प्रयोगावरवीं मेळयल्ल्या गिन्यानाक पुंजावपाचें काम केलें. हातूंतले सगळयांत सोंपे अशे सिध्दांत सिध्द करपाची गरज ना, अशें समजून तांकां सत्-वाक्यां (axioms) म्हणून वेंचून काडलीं. ह्या सत् वाक्यांवरवीं उरिल्ली सगळी भूमिती तयार केली. हे भूमितीक सत्-वाक्यांची भूमिती (axiomatic Geometry) अशें नांव पडलें.

हे फुडली उदरगत सगळी सुवात (space) बिंदूंचो संच (set of points) अशें धरून जाली. हांगा दर एका बिंदूची सुवात दोन आंकड्यांवरवीं जांकां निर्देशांक (Co-ordinates) म्हण्टात, तेप्रमाण थरयल्ली आसता. हे दोन निर्देशांक, हो बिंदू दोन पयलींच थरयल्ल्या, एकामेकांक ९० अंशांच्या कोनान मेळपी ओळींपसून कितलो पयस आसा तें दाखयता. हातूंतलो पयलो निर्देशांक आडवे ओळी सावन आनी दुसरो उबे ओळीसावन आशिल्ली सुवात दाखयता. ह्या विचारावरवीं भूमितींतले कितलेशेच कठीण अशे प्रस्न, सोंपे रितीन सोडयले. हांगा बीजगणिताचोय वापर केलो. ह्या फांट्याक विश्लेशक भूमिती (Analytical Geometry) अशें नांव पडलें.

भूमितीची पूर्वतयारी म्हळयार कलनशास्त्राचो (calculus) वापर करून तयार जाल्ली differential Geometry. ह्या फांट्यावरवीं वेगवेगळया Curves and surfaces चे गूणधर्म शिकूंक मेळटात. हाचेफुडें vectors and Tensors वापरून तयार जाल्ली वॅक्टर भूमिती, आमकां पळोवंक मेळटा. हाचेउपरांत वयर सांगिल्ल्यो अ-युक्लिडीय भूमिती तयार जाल्यो. फॅलिक्स क्लेन हाणें भूमितीचे मुळावे विचार हे transformation चे आनी transformation बगर बदल जायनात ते जावन आसात अशें सांगलें. हाचेपसून आमकां भूमितीचो आठवो पांवडो म्हळयार Transformation भूमिती मेळ्ळी. हे भूमितीचे Projective Geometry आनी Topology अशे दोन फांटे जाले.

सुरवेक Projective Geometry हो युक्लिडीय भूमितीचोच एक भाग अशें मानताले. पूण नेलोवस, पापस, जिरार्ड देसारगस, पास्कल सारकिल्या गणिततज्ञांच्या वावराक लागून Projective Geometry हो एक स्वतंत्र फांटो जावंक पावलो. Topology हे विसाव्या शेंकड्यांतले भूमितींत भूमितीच्या विचारांक अमूर्त स्वरूप मेळटा. ह्या विचारांची सुरवात फ्रांसेझ गणिततज्ञ आंरी पोनकारे हाणें केली. पोनकारेचें उरिल्लें काम स्मॅल, स्टालिग्जस, झीमन, प्रेडमन हांणी केलें. Topology शिकपाखातीर बीजगणितांचो उपेग केल्ल्यान बीजगणितीय Topology चो जल्म जालो. आयज बीजगणितीय Topology ह्या फांट्यांत उपाट संशोधन चललां. भूमितीचे उदरगतींतलो निमाणो पांवडो म्हळयार

बीजगणितीय भूमिती. हातूंत बीजगणित आनी भूमितीच्या वेगवेगळ्या विचारांचो मेळ पळोवंक मेळटा. हेभायर भूमितीचे आनिकूय कांय फांटे तयार जाले. देखीक घनीय भूमिती (Solid Geometry) आनी त्रिकोणमिती (Trigonometry).

भूमितीच्या मळार फिल्डस पदकां फावो जाल्ल्या कांय नामनेच्या गणिततज्ञांचीं नांवां अशीं - के. कीडारिया (१९५४), रेने थोमे (१९५८), जे. डब्ल्यू. मिलनर (१९६२), एम्. एफ्. अथीय्या (१९६२), ए. ग्रोयेनडिक (१९६६), एस्. स्मॅल (१९६६), एच्. हिरोनाका (१९७०), डी. ममफोर्ड (१९७४), पी. डेलिंग्ने (१९७८), डब्ल्यू. पी. थुरसटोन (१९८३), शिंग तुग याव (१९८३), एस्. के. डॉनाल्डसन (१९८६), एम्. प्रिडमन (१९८६).

- व्हाय. एस्. वालावलीकार

**भूयन, सूर्यकुमार :** (जल्म : १८९४, नौगाँग; मरण : १९६४).

आर्विल्लो असमिया कवी, कथालेखक चरित्रकार आनी इतिहास संशोधक. ताचें शालेय शिक्षण नौगाँगांतूच जालें. गुवाहाटी आनी कलकत्ता हांगा ताचें म्हाविद्यालयीन शिक्षण जालें. इंग्लीश विशय घेवन तो एम्. ए. जालो आनी सरकारी नोकरी करूंक लागलो. शिक्षण खात्यांत शिक्षण संचालक पदामेरेन ताका बडटी मेळ्ळी आनी उपरांत तो नोकरेंतल्यान निवृत्त जालो. कांय काळ ताणें गुवाहाटी विद्यापिठाचो कुलगुरू तशेंच साहित्य अकादमीचो वांगडी म्हणूनय काम केलें. एम्. ए, बी. एल्., पीएच्. डी. आनी डी. लिट्. ह्यो पदव्यो ताणें घेतल्यो. आसामाच्या इतिहासाविशीं संशोधन करून ताणें लंडन विद्यापिठांतल्यान पीएच्. डी. आनी डी. लिट्. ह्यो पदव्यो घेतल्यो.

एक स्वच्छंदतायवादी कवी म्हणून काव्य लिखाण करतना ताणें प्रेमगितां आनी देशभक्तीचेर गितां बरयलीं. 'निर्माली' (१९२७) ह्या काव्यांझेल्यांत ताच्या सुरवातीच्या कवितांचो आस्पाव जाला. तशींच ताचीं दोन इतिहासीक दीर्घकाव्यां आसात तीं अशीं-'जयमती उपाख्यान' (१९२०) आनी बरफूकनर गीत (३री आवृत्ती, १९५१), ह्याच काळांत ताणें जायत्यो लघुकथा लेगीत बरयल्यो. 'पंचमी' (१९२७) हो ताच्या कथांचो नामनेचो झेलो.

उपरांत ताणें चरित्रलिखाणाक सुरवात केली. ताणें कांय विस्तारान पूण दर्जेदार चरित्रां बरयलीं. तीं अशीं - 'रवींद्रनाथ' (१९२०), 'महात्मा गोपाल कृष्ण गोखले' (१९१६), 'स्वर्गीय आनंदराम बरुआ' (१९४०).

१९४७ उपरांत ताणें इतिहास-संशोधनाक आरंभ केलो. आसामाच्या इतिहासाचें खोलायेन संशोधन करून ताणें असमिया आनी इंग्लीश भाशांनी इतिहासाचेर खूब लिखाण केलें. इंग्लीश आनी असमिया भाशांनी ताणें बरयल्ले कांय उल्लेख करपासारके ग्रंथ अशे आसात.

इंग्लीश 'अर्ली ब्रिटीश रिलेशन्स विथ आसाम' (१९२८), 'लचित बरफूकन अँड हिज टाइम्स' (१९४७), 'अँग्लो-आसामीज रिलेशन्स, १७७१-१८५६' (१९४९). असमिया-'ओहोमोर दिन' (१९१८), 'असम-जीयारी' (१९३५), कोंवर विद्रोह' (१९४८), 'बुरंजीर बाणी' (१९५१), 'रमणी गाभरू' (१९५१), 'मिरजुमलार असोम आक्रमण' (१९५६).

- कों. वि. सं. मं.

**भूराज्यशास्त्र :** भुगोलीक परिस्थिती आनी राज्यसंस्था हांच्या परस्पर संबंदांचो अभ्यास करपी शास्त्र (Geo-politics). राज्याची रचना, शासनपद्दत आनी धोरण हाचेर प्राकृतिक पर्यावरणाचो कसो परिणाम जाता, हें जाणून घेवप हो भूराज्यशास्त्राचो मुखेल उद्देश. तेखेरीज राज्याचें बळगें, भुगोलीक परिस्थितीचेर कशें पातयेवन आसता हाचीय विस्कटावणी करतात. वेगवेगळ्या राजकीय घडामोडी फाटल्यान आशिल्ले प्राकृतीक परिस्थितीचें चित्रण करप, कसलेय राजकीय घडणुकेंत लिपिल्लें 'भुगोलीक सत्य' उकतावन दाखोवप, हें भूराज्यशास्त्राचे कक्षेंत येता. कितल्याशाच राजकीय वादग्रस्त प्रस्नांची भुगोलीक फाटभूंय खंयची हाची जाप दिवपाचो यत्न भूराज्यशास्त्रांत करतात. स्विडीश भूराज्यशास्त्रांत रुडॉल्फ जेलन हाणें व्याख्या केल्या तेप्रमाण राजकीय घडणुको आनी भूंयप्रदेश हांच्या परस्पर संबंदांचो अभ्यास म्हळयार भूराज्यशास्त्र.

दोन म्हाझुजांच्या काळांत भूराज्यशास्त्राचो अभ्यास केल्लो. भूराज्यशास्त्राची उदरगत जर्मनींत पयल्या म्हाझुजांतले हारी उपरांत सुरू जाली. हिटलराचे कारकिर्दीत ह्या विशयाच्या अभ्यासाक खाशेली गती मेळ्ळी आनी ताचो संबंद झूज आनी जैत हांचेकडेन लावपाक लागले. जर्मनीप्रमाण हेर देशांनीय ह्या विशयाचो अभ्यास जावपाक लागलो. जर्मन भूगोलतज्ञांनी भोंवतणचे परिस्थितीचो बारीकसाणीन अभ्यास केलो, तेन्ना तांचे मतींत आयलें, राजकीय बळग्याचें मूळ हें भुगोलीक परिस्थितींत आसा. जर्मन भूगोलशास्त्रज्ञ फ्रेडरिक रॅट्झेल् हाणें भुगोलीक घटकांचो राज्यसंस्थेवयलो परिणाम चड विस्तारान स्पश्ट केलो. ताका अनुसरून जायत्या अभ्यासकांनी भुगोलीक परिस्थितीचो सोद घेवपाक सुरवात केली आनी तातूंतल्यानूच ह्या नव्या ज्ञानफांट्याचो, भूराज्यशास्त्राचो उदय जालो.

रुडाल्फ जेलन हो रॅटझेलचो स्विडिश शिश्य. ताणें 'द ग्रेट पॉवर्स' ह्या ग्रंथांत भुगोलीक नियतीवादाचो पुरस्कार केल्लो सांपडटा. ताणेंच 'जिओपॉलिटिक्स' हो शब्द सगळयांत पयली रूढ केलो. जर्मनींत नाझी कालखंडांत कार्ल हौशोफर आनी ताच्या अनुयायांनी भूराज्यशास्त्रांतल्या संकल्पनांचो प्रभावी प्रचार केलो.

जगांत वेगवेगळे तरेच्यो राज्यसंस्था अस्तित्वांत आसात. पूण

भूंयप्रदेशाखेरीज राज्यसंस्थेक आस्तित्व ना. राज्यसंस्था ज्या भूंयप्रदेशाचेर आसतात, ते भूंयप्रदेश सगळयाक सारके नात. स्वाभाविक संबंदीत प्रदेशांतल्या राज्यसंस्थांचेर पर्यावरणाचो परिणाम अटळ आसता. सुवात, विस्तार आकार, हवामान, भूंयरचणूक ह्या भुगोलीक घडणुकांचो राज्यसंस्थेचे रचणुकेचेर आनी उदरगतीचेर परिणाम जाल्लो दिसून येता. राज्यांचें पराराश्ट्र धोरणूय हे भुगोलीक परिस्थितीचेर बऱ्याच प्रमाणांत आदारून आसता.

राज्यसंस्थेचे उदरगतींत त्या राश्ट्राच्या भुगोलीक सुवातीक खूब म्हत्व आसा. युरोपांतल्या मुखेल भुंयेपसून वेगळो आशिल्ल्या ब्रिटीश जुंव्याच्या सुवातीक लागून फ्रेंच राज्यक्रांतीचो परिणाम ब्रिटनचे राज्यसंस्थेचेर व्हडलोसो जालोना. इंग्लीश खाडयेक लागून नेपोलियन इंग्लंड जिखूंक शकलोना. खंडाचे भितर सुवात आशिल्ल्या राश्ट्रांची राजकीय परिस्थिती खाशेले तरेची अशें दिसता. बोलेव्हिया, झेकोस्लोव्हाकिया, स्वित्झर्लंड ह्या भुंयेन रेवाडिल्ल्या राश्ट्रांक कितल्याशाच शेजारी राश्ट्रांकडेन वेगवेगळे तरेचे राजनितीक संबंद दवरचे पडटात. शेजारच्या राज्यांकडेन बरेपणाचे संबंद नासल्यार त्या राश्ट्रामुखार सदांच कितल्योशोच समस्या निर्माण जातात आनी ताचे उदरगतीक बादा येता. ॲटलांटिक आनी प्रशांत महासागराच्या मदीं आशिल्लें अमेरिकेचें स्थान त्या राश्ट्राक राजकीय नदरेन उपेगी थरलां. संवसारांतल्या दोनूय म्हाझुजांचो धग अमेरिकेक प्रत्यक्षपणान बसलोना. मेक्झिको आनी कॅनडा ह्या शेजारी राश्ट्रांकडेन अमेरिकेचे समजिकायेचे आनी सहकार्याचे संबंद आशिल्ले. ताका लागुनूच ह्या राश्ट्राक राजकीय थिराय प्राप्त जाल्या.

हवामान आनी राजकीय शक्त हांचो दाट संबंद आसा. ध्रुवालागसारच्या आनी थंड प्रदेशांत राज्यसंस्थेचें अस्तित्व ना. हाचे सामके उरफाटें, अतीउश्ण हवामानाचे प्रदेश राज्यसंस्थेक उपेगी थरिल्ले सांपडटात. सहारा प्रदेश तशेंच अरब राश्ट्रां हांचीं उदाहरणां वयल्या विधानाचे पुश्टीखातीर दितात. संवसारांतले सामके प्रगत अशे देश जपान, इंग्लंड, जर्मनी, अमेरिका, रशिया ह्या समशीतोश्ण हवामानाच्या प्रदेशांत आसात. हवामानाचो मनशाचे कार्यक्षमतायेचेर परिणाम जाता आनी ताचेवरवीं राजकीय क्षमतायेचेरूय परिणाम जाल्लो दिसता.

राज्याच्या बळग्याचेर भूंयरचनेचो परिणाम जाता. दोंगरी वाठारांपरस मैदानी प्रदेश राज्यसंस्थेक अनुकूल थरल्यात. रशियांतलें सायबेरियाचें मैदान आनी अमेरिकेंतलें मिसिसिप्पीचें मैदान त्या देशाचे राजकीय शक्तीक पोशक थारलें. वॅनेंझुएला, इक्वादोर, कोलंबिया हीं राश्ट्रां, दोंगरी भूंयरचनेक लागून राजकीय क्षेत्रांत फाटीं पडलीं. उरफाटें, स्वित्झर्लंडाची भूंयरचणूक दोंगरी आसुनूय तें एक प्रगत राज्य अशें समजतात. सैमीक साधन संपत्तीच्या फावो त्या वापरान अशें राश्ट्र राजकीय प्रगती करूंक शकलें. कांय देशांतल्यो शिमो भूंयरचणुकेच्या आदाराचेर थरयल्यात. व्हॉस्जिस दोंगुल्ल्यांचो जर्मनी आनी फ्रांस हांचे शिमेवळीखातीर उपेग केल्लो.

ज्या राज्यांक विस्तृत भूंयप्रदेश आसात, तीं राज्यां बळिश्ट जावपाची शक्यताय चड वाडटा. रशिया अमेरिका चीन हीं राश्ट्रां ताका लागून संवसारीक राजकारणाचेर प्रभाव घालूंक शकतात. तांकां जिखप सहज शक्य नासता. विस्तृत भूंयप्रदेशाचो आनी सैमीक साधनसंपत्तीचो फायदो ह्या राज्यांक मेळळा. ब्राझील, ऑस्ट्रेलिया हीं राश्ट्रां विस्तारान व्हडलीं आसुनूय हेर घटकांचे प्रतिकूलतेक लागून राजकीय क्षेत्रांत वर्चस्व प्रस्थापित करूंक शकलिंनात. अंडोरा, मोनॅको, रॅन मॅरिनो, डॅन्मार्क हीं सामकीं ल्हान राश्ट्रां आंतरराश्ट्रीय राजकारणाचे नदरेन उण्या म्हत्वाचीं.

सैमीक साधनसंपत्तीक लागून राश्ट्राची प्रतिश्ठा वाडली. संरक्षणाचे नदरेन खनीज द्रव्यांक म्हत्व आसा. खनीज द्रव्यांनी समृध्द आशिल्ल्या राश्ट्रांक आंतरराश्ट्रीय राजकारणांत खाशेली प्रतिश्ठा मेळिल्ली दिसता. रशिया आनी अमेरिका हीं राश्ट्रां वेगवेगळया प्रकारांच्या खनिजांच्या उत्पादनांत आघाडेचेर आसात. मध्य उदेंतेकडल्या राश्ट्रांक खनीज तेलाच्या साठ्यांक लागून आंतरराश्ट्रीय राजकारणांत हालींच्या काळांत खूब म्हत्वाची सुवात मेळळया. रशिया आनी अमेरिका ह्यो दोनूय महासत्ता मध्य उदेंतेंतल्या राश्ट्रांचेर वर्चस्व स्थापन करपाखातीर खनीज तेलाची सर्त करतात.

राजकीय संघर्शाक भुगोलीक घटक कारणीभूत जाल्ल्याचीं कितलींशींच उदाहरणां दिश्टी पडटात. रशिया आनी चीन हांचे शिमेवयल्या उस्सुरी न्हंयेन पात्र बदलिल्ल्यान तांच्या शीमावादाक चड खरसाण आयली. इराण-इराकाचे शिमेवयल्यान व्हांवपी शात-अलअरब हे न्हंयेच्या वापरावयल्यान ह्या राश्ट्रांतले राजनीतीक संबंद खूब खेपे इबाडले. रिओग्रॅंड न्हंयेक लागून संयुक्त संस्थानां आनी मेक्झिको ह्या राश्ट्रांमदीं राजकीय समस्या निर्माण जाल्ली.

राजकीय नियंत्रणाचे नदरेन राश्ट्राच्या आकाराक म्हत्व दितात. फावो तो आकार आशिल्ल्या राज्यसंस्थांक आपल्या प्रदेशाचेर फावो ते तरेन राजकीय नियंत्रण दवरूं येता. हंगेरी, स्वित्झर्लंड ह्या राज्यांचे आकार हे नदरेन बरे आसात. खंडीत आकाराक लागून इंडोनेशियाक राजकीय नियंत्रणांत कितल्योशोच अडचणी निर्माण जाल्ल्यो दिसतात. इंडोनेशियांतल्या इरीयन जुंव्यावयल्या लोकांनी स्वतंत्र राज्याची मागणी केल्ली. पाकिस्तानाच्या खंडीत आकाराक लागून बांगलादेशाची निर्मिती जाली. हेविशीं हेर कितल्याशाच कारणांक लागून भुगोलीक परिस्थिती म्हत्वाची थरली.

राजकीय संघटनेचो उंचेलो पांवडो आनी तंत्रीक तांक आशिल्ल्या राश्ट्राचे बाबतींत प्राकृतीक पर्यावरणाचे घटक दुय्यम स्वरुपाचे आसतात. इंग्लंड आनी जपान हीं राश्ट्रां ह्या निकशाचीं उदाहरणां आसात. खाशेली राजकीय परिस्थिती आपणावप, व्हडलो विस्तार आनी सैमीक

साधनसंपत्तीचें नियोजन हांकां लागून चीन आनी रशिया हांकां आपली राजकीय तांक थोड्याच काळांत वाडोवप शक्य जालें.

भूराज्यशास्त्राचे उदरगतींत हालफोर्ड मॅकिंडर आनी कार्ल हौशोफर हांचो व्हडलो वांटो आसा. मॅकिंडरान स्पश्ट केल्लो 'मर्मभूंय सिध्दांत' (हार्टलँड थिअरी) म्हत्वाचो मानतात. उत्तरेक आँटार्क्टिक म्हासागर, दक्षिणेक इराणाचो सडो, अस्तंतेक व्होल्गा न्हयेचें देगण आनी उदेंतेक लेना न्हंयेचें देगण हांचे मजगतीं आशिल्लो वाठार मर्मभूंय म्हणून वळखतात. जो हे मर्मभूंयेचो स्वामी ताची जगाचेर सत्ता आसता, असो आशय ह्या सिध्दांतांत प्रगटायला. मॅकिंडरच्या सिध्दांताचें सार अशें-जो उदेंत युरोपाचो सत्ताधीश तो जगाचो सत्ताधीश. पूण हो सिध्दांत आतां काळाभायरो जाला.

नामनेचो भूराज्यशास्त्रज्ञ कार्ल हौशोफर हो हिटलराचो सल्लागार आशिल्लो. नाझी राजवटींत ताणें भूराज्यशास्त्राच्या कल्पनांची फाटपुरवण केली. लश्करी उद्देशाखातीर राज्य अर्थीक नदरेन स्वयंपूर्ण आसप गरजेचें आसता. दर एका राज्याक लोकसंख्येक फावो ती सुवात व्यापपाचो हक्क आसा. शीम वाठार बदलत आसूंक जाय अशे विचार ताणें जगामुखार मांडले. अमेरिकन भूराज्यशास्त्रज्ञ निकोलस स्पायकमन हाच्या मतान, युरेशियाचें बळगें मर्मभुंयेचे भोंवतणीं जो वाठार आसा, तातूंत आस्पावलां. ह्या आशयाचो ताचो 'किनारभूमी सिध्दान्त' (रिमलँड थिअरी) प्रसिध्द आसा. ह्या सिध्दांतावरवीं जो किनारभुंयेचो नियंत्रक, तो युरेशियाचो सत्ताधीश, जो युरेशियाचो नियंत्रक तो जगाचो स्वामी.

पूण वयर उल्लेख केल्ले दोनूय सिध्दांत वा भूराज्यशास्त्रांतले हेर निकश हे परम सत्य म्हणून आपणावप समा न्हय. कारण राज्याचेर परिणाम करपी घटकांमदीं भूंयरचणूक हवामान आदी घटकांखेरीज हेर घटकूय प्रभावी आसतात. भुगोलीक परिस्थितीचो फावो तो वापर करप हें खूबदां राज्यकर्त्यांच्या हातांत आसता. आपल्या राश्ट्राचे भुगोलीक सुवातीक अनुकूल अशें अंतर्गत आनी परराश्ट्रीय धोरण जर ते थरोवंक शकले तरूच ते यशस्वी जातले आनी राश्ट्र चड बळिश्ट जातलें. भूराज्यशास्त्राचो उपेग हे नदरेन करून घेवं येता. खेरीज, दळणवळणाच्या जलदगती साधनांनीय हे सिध्दांत फाटीं पडल्यात.

आंतरराश्ट्रीय राजकारणांत मात डावपेंच आंखपाक भूराज्यशास्त्र निश्चितूच उपेगी थरता. शीमवेळ सैमीक रितीन थरोवप, म्हत्वाच्या दर्यावर्दी मार्गांचेर नियंत्रण मेळोवप, लश्करी डावपेचांचे नदरेन म्हत्वाचे प्रदेश, लश्करी केंद्रां स्थापपाखातीर ल्हान-व्हड जुंवे मेळोवप गरजेचे आसात आनी ह्या धोरणाचो परिणाम अंतर्गत धोरणाचेरूय जाता. अमेरिका आनी रशिया ह्या म्हासत्तांनी आपापलीं प्रभाव क्षेत्रां थरयल्लीं आसात. ह्या सगळ्या विशयांत भूराज्यशास्त्राची मोलादीक मदत जाता. झूजशास्त्राच्या अभ्यासांतूय ह्या फांट्यांतल्या संकल्पनांचो उपेग जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**भूलविद्या :** घुंवळीचें कसलेंच वखद दिना आसतना फकत सुचोवण्यो दिवन कोणाकूय जागृत न्हिदावस्थेंत व्हरप हाकाच भूलविद्याशास्त्र अशें म्हण्टात.

ऑस्ट्रियन वैज फॅद्रिक आंतोन मॅस्मेर हो भूलविद्येचो जनक अशी इतिहासांत नोंद मेळटा. फॅद्रिक आंतोन मॅस्मेर हाणें व्हिएन्ना शारांत आपल्या वैजकी वेवसायाक सुरवात केली तेन्ना त्या काळांत फकत म्हाल्यांकूच वैजकी वेवसाय करपाची राजमान्यताय आशिल्ली. कोणाचेय कुडीक शस्त्र लावपाचो अधिकार फक्त म्हाल्याकूच आशिल्लो. मनशाचे कुडींत रगत चड जातकच खूबशीं दुयेंसां जातात आनी त्या सगळ्या दुयेंसांचेर शीर मारप हो एकूच उपाय त्या काळांतल्या वैजकी शास्त्राक खबर आशिल्लो. अशा काळांत किदेंय तरी नाविन्य दाखोवन पिडेस्त मनशाक आपलेकडेन हाडप, हो एकूच पर्याय हेर वैजांक आशिल्लो.

मॅस्मेरान फेथ हिलींगचे प्रयोग सुरू केले. दरेकल्याचे कुडींत चुंबकी व्हाळ व्हांवत आसता आनी कांय कारणांक लागून तो उणो जाल्यार मनीस दुयेंत पडटा अशें ताणें लोकांक सांगलें. आपल्या आंगांत भरपूर प्रमाणांत चुंबकी व्हाळ व्हांवता आनी कोणाचेंय कसलेंय दुयेंस आपूण आपले हात, दुखण्याच्या जाग्यार भोंवडावन पयस करूंक शकतां असो दावो करून था वर्सांमिरेन ही आपली उपचार पद्दत ताणें चालू दवरली. हे पद्दतीक ताणें 'ॲनिमल मॅग्नेटिझम' हें नांव दिलें.

कांय तेंपान व्हिएन्ना शारांतल्या लोकांचो ताचे हे उपचार पद्दतीवयलो विश्वास उणो जालो आनी तेखातीर ताका व्हिएन्ना शार सोडून फ्रांसाक वचचो पडलो. फ्रांसाक वतकच ताणें नवे प्रयोग सुरू केले. उदक भरिल्ल्या व्हड तबकांनी चुंबकाच्यो काडयो सोडून, तातूंत दुयेंत मनशाक विवस्त्र बसोवन, वरांचीं वरां 'तुमका कांय जावंक ना. तुमी बरे आसात' अशें ल्हव पूण हुकमी आवाजान म्हणीत तो तबकां भोंवतणी काळो झगो घालून भोंवत रावतालो.

मॅस्मेराच्या काळांत अस्तंती वैजकशास्त्र आपले मुळावे अवस्थेंत आशिल्लें. मनशाचे कुडींत रक्ताभिसरण कशे तरेन जाता हाचो सोद लागपाचो आशिल्लो. बॅक्टेरिया-व्हायरस ह्या सुक्ष्म किटाणूंचें अस्तित्व आसा हें कळपाचें आशिल्लें आनी ह्याच काळांत दुयेंसांचें नक्की निदान करीनासतना आपल्या सगळ्या पिडस्तांचेर मॅस्मेर एकूच पद्दत वापरतालो. हे नवे पद्दतीक ताणें 'मॅस्मेरिझम' अशें नांव दिलें.

मॅस्मेराची हीय उपचार पद्दत रोखडीच बंद पडली. त्यावेळावयलो अमेरिकेचो फ्रांस देशांत आशिल्लो प्रतिनिधी डॉ. बॅंजामिन फ्रॅंकलीन (फुडें तो अमेरिकेचो राश्ट्राध्यक्ष जालो) हाणें मॅस्मेराचे हे उपचार पद्दतीक न्यायालयांत आव्हान दिलें. मॅस्मेर वापरता ते उपचार पद्दतीक वैजकशास्त्राचो कसलोच आदार ना हें सिध्द करून दाखयल्ल्यान सरकारान, मॅस्मेराक फ्रांसांतल्यान धांवडावन घालो.

मॅस्मेराउपरांत कांय वर्सांनी, कांदोळे (गोंय) जल्मल्लो जुझे कुस्तोदियो फारीय हो पाद्री फ्रांसांत पावलो. फ्रांसांत त्या वेळार राज्यक्रांतीचें वारें व्हांवतालें. थंयचे सगळे दादले राजाआड बंड करपाक आनी आपणाचें सैन्य उबें करपाक दीस-रात वावुरताले. घरचे दादले म्हयन्याचे म्हयने घराभायर आशिल्ल्यान तांच्यो बायलो हुसक्यांत आसताल्यो आनी हाकाच लागून हांगाच्यो ६०% बायलो कमर फोडप, घुंवळ येवप, तकली दुखप, हातपांय गळप, निद्रानाश, स्वप्नदोश, अनियमित आंगार वचप, मासिक पाळयेचे दीस चुकप असलीं त्या काळच्या वैजकी शास्त्राक आनी वैजाक घुस्पावन उडोवपी कारणां घेवन वैजांकडेन येवंक लागल्यो. ह्याच काळांत फ्रांसांत आबे फारियाचो प्रवेश जालो. मूळ कोलवाळे गांवच्या दुकळे घराण्यांतल्या आबे फारियाक पिरायेच्या ११ वर्सांचेर गीतेचें पुराय गिन्यान मेळिल्लें. मन पिडेस्त जाल्यार कूड पिडेस्त हें गीतेंतलें वचन ताका खबर आशिल्लें. पिडेस्त मन आनी ताका लागून कुडीचेर जावपी परिणाम हांचेर खोलायेन अभ्यास करून फारीयान गीतेंतलेंच ज्ञान फ्रांस भाशेंत पुराय युरोपाक सांगलें. ८०% पिडां फाटलें मुखेल कारण पिडेस्त मन. मन बळिश्ट आनी निरोगी आसत जाल्यार कूड निरोगी उरता अशें सांगून ताणें त्या वेळच्या पिडेस्तांचेर मानसीक उपचार सुरू केले आनी फारीय आयच्या प्रगत अशा मानसोपचार शास्त्राचो जनक जालो. उपरांत फ्रॉयडाकूय मनाच्या विकारांचेर अभ्यास करतना फारीयान बरोवन दवरिल्ल्या ग्रंथांचो खूब उपेग जालो.

फारीयाच्या मताप्रमाण, मनीसजातीक सुप्त आनी जागृत अशीं दोन मनां आसतात. सुप्त मनाचो थाव घेतल्यार ताच्या खूबशा अतृप्त इत्सांचो थाव घेवपाक मेळटा आनी ह्यो अतृप्त इत्साच दर एकल्याक नकळत ताचे कुडीक पिडेस्त करतात. त्या मनाक योग्य सुचोवण्यो आनी मार्ग, धीर असल्या वखदांची गरज आसता हें पारखून फारीयान ही आपली उपचार पद्दत चालू दवरली. सुप्त मनाक जागोवपाखातीर ताच्या जागृत मनाक न्हिदोवंचें पडटालें आनी हे स्थितीक ताणें 'दिव्य न्हीद' (Divine Sleep - 'Somneil Lucide') अशें नांव दिलें. हें ताचें दिव्य न्हिदेवयलें तत्त्वज्ञान DE LA CAUSE DE SOMNEIL LUCIDE ह्या ताच्या ग्रंथांत मेळटा.

एका भितऱ्या आनी क्षुल्लक फ्रांस शिपायाचो भूलविद्येवरवीं शूर सरदार नेपोलियन बॉनापार्त घडोवपी फारीय हो पयलो मानसोपचार तज्ञ. पूण त्या वेळच्या फ्रांस लोकांक तात्काळ गूण जाय आशिल्लो आनी फारीयाचे शास्त्रशुध्द उपचार पद्दतींत गूण येवपाक कळाव लागतालो. लोकांक चमत्कार जाय आशिल्लो. काळांतरान लोकांचो आबे फारीयाचे उपचार पद्दतीवयलो विस्वास उणो जालो आनी १८१९ वर्सा त्रेसठ वर्सांचे पिरायेचेर सामकें हालांचें जिवीत जगून ताका मरण आयलें. आबे फारीय हो धर्मशास्त्रपंडीत आशिल्लो.

मजगतीं, इंग्लंडांत (१७९५-१८६१) डॉ. जेम्स ब्रेड हो दोतोर आपली नवी उपचार पद्दत वापरपाक लागलो. मॅस्मेराच्या चुंबकी व्हाळ सिध्दांताकडेन तो सहमत जालोना. ताच्या मताप्रमाण जागृत अवस्थेंत मनांत कितलेशेच विचार आसतात आनी मनीस न्हिदलो तरी ताच्या मनांत कांय विचार चालूच आसतात. अशा वेळार ताची न्हीद जागृत आसता. अशे अवस्थेंत पिडेस्ताक तो पुराय बरो आसा अशो सुचोवण्यो करीत रावल्यार ताच्यो खूबशो पिडा पयस करूंक येतात असो सिध्दांत ताणें मांडलो. अशी जागृत न्हीद हाडपाक तो आपल्या पेशंटांक बांकार न्हिदोवन तांच्या मस्तकापसून पांयांमेरेन आपल्या हातांचो स्पर्श करीत रावतालो आनी त्या पेशंटाक न्हिदपाची सुचोवणी करतालो. पूण ताची ही उपचार पद्दत लोकांक मानवलिना. लोकांनी ताकाय मॅस्मेराभाशेनूच फटींग थरयलो. ताणें आपले हे उपचार पद्दतीक 'हिप्नॉटिझम' अशें नांव दिलें (ग्रीक भाशेंत 'Hypnos' म्हळयार न्हीद).

वैजकीशास्त्रांत खूब प्रगती जाली. पूण आयज विसाव्या शेंकड्यांत लेगीत, जगांतल्या सगळया शास्त्रज्ञांचो 'मन आनी मेंदू' समजुपाचो यत्न चालूच आसा. खूबशा निदान जायनाशिल्ल्या पिडां फाटलें मुखेल कारण मनशाचें पिडेस्त मन हेंच आसता. हें गीतेंतलेंच हजारांनी वर्सांफाटलें ज्ञान आनी वचन तांकां मान्य आसा. तरीय दुर्बळ मनाक घटसाण कशी दिवप हें तांकां अजून कळना आनी ह्या तांच्या अज्ञानाचो फायदो घेवन कांय जातीवंत दोतोर आनी भोंदू लोक आपूण भूलविद्या शास्त्र वापरून लोकांचे मानसिक विकार, न्यूनगंड, लैंगिक व्याधी बऱ्यो करूंक शकतात अशें सांगून लोकांक फटयतात. कांय लोक संमोहन उपचार तज्ञ ह्या नांवाखाला जादवांतलींच गुपितां वापरून लोकांक फटयतात. हांचेपसून समाज प्रबोधन जावपाची गरज आसा.

भूलविद्येक विश्ववैजकी मंडळाची अजून मान्यताय ना. तशेंच जगांतल्या खंयच्याच विद्यापिठान वैजकशास्त्राच्या वा हेर खंयच्याच शास्त्राच्या अभ्यासक्रमांत भूलविद्या शास्त्र हो एक विशय म्हणून ताचो आस्पाव करूंक ना. भूलविद्याशास्त्र वापरून पिडांचें निवारण करूंक शकता अशें सांगतल्यांक वा खबरांपत्रांतल्यान तशें लोकांक कळयतल्यांक भारत सरकारान बंदी केल्या, (Drugs & Medical Remedies Act 1954 Sec. I Clauses 1, 15, 17, 18,19) आनी ख्यास्तूय सांगल्या. तशेंच, जीं खबरांपत्रां तांणी केल्ल्यो जायराती छापीत तांकांय दंड आनी ख्यास्त सुचयल्या.

- डी. सतीश

**पूरक नोंद :** फारिया आबे, हुंगरी शास्त्र, जादू.

**भूशीर (केप) :** उदकांत शिरकल्लो आनी उदकाच्या पृश्ठभागार दिश्टी पडपी भुंयेचो देगेच्या हेर भागापरस फुडें आयिल्लो भाग म्हळयार भूशीर. हो भाग महासागर दर्या, तळीं, आदींच्या देगेवयल्या वाठारांत स्पश्टपणान दिश्टी पडटा. दर्यांत शिरकल्लीं खंडांचीं (देखीकः केप

ऑफ गूड होप, कन्याकुमारी) आनी जुंव्यांचीं तोंकां (न्यूझीलंडांतलें नॉर्थ केप) ह्यो तांच्यो मुखेल देखी आसात. भूशिराचो आकार, ताची निर्मिती पद्दत, आदीं वयल्यान आनी सुवातीवयल्यान तांचीं वेगवेगळीं नांवां रूढ आसात. जिहवा (स्पिट), अशीर भूशीर (पॉयंट), ऊंच भूशीर (हेडलँड), अंतरीप (प्रोमॉण्टरी) हीं सगळीं भूशिरां. चडशा भूशिरांचीं तोंकां मुखेल भूभागावटेन घुंविल्लीं आसतात. दर्याच्या उदकाच्या स्थापन कार्याक लागून भूशिराची निर्मिती आनी वाड जायत आसता. ताचे वाडीवांगडाच तांकां चड आनी चड बाग येता. भूशिरांक ल्हारांक लागून आडमेळीं येतात आनी पयल्या भूशिराक जोडून दुसरें भूशीर तयार जाता. अशे तरेन कांय नवीं भूशिरां तयार जातात जाल्यार कांय भूशिरां नश्ट जातात.

**भूशिराचे मुखेल प्रकार : जिह्वा :** एक तोंक मुखेल भुंयेक जोडिल्लें आनी दुसरें दर्यांत लांबमेरेन शिरकल्लें. हो रेंव, खडी, माती मेळून तयार जाल्लो अशीर 'दांडो' म्हळयार 'जिह्वा'. ग्रेट ब्रिटनांतल्या साउदम्पटनच्या दक्षिण वाठारांतल्या कॅलशॉट स्पिट, सोलंट खाडयेच्या अस्तंत वाठारांतल्या हर्स्ट कॅसल स्पिट, न्यूझीलंडांतल्या फॅरवॅल स्पिट हीं ताचीं उदाहरणां. कांय खेपे न्हंयेचे खाडयेंत वा जिह्वेक लागून न्हंयेच्यो दोनूय देगो जोडून सैमीक बांद तयार जाता.

**अशीर भूशीर :** दर्याचे पातळेसावन उणे उंचायेचें आनी अशीर भूशीर म्हळयार 'पॉयंट' अशें मानतात. देखीकः न्यूयॉर्क राज्यांतलें मॉंटक पॉयंट.

**ऊंच भूशीर :** सादारणपणान ऊंच कड्यांनी तयार जाल्लें भूशीर. देखीकः स्कॉटलँडांतलें 'डंकन्सबी हेड'.

**अंतरीप :** सागरखूंट आनी कड्याकड्यांनी खंडीत रांग आशिल्लें भूशीर म्हळयार अंतरीप. देखीकः ऑस्ट्रेलियांतलें विल्सन्स प्रोमोण्टरी.

दर्यादेगेर ल्हारांक लागून झीज आनी भर अशें दोट्टी कार्य जावन कांय खेपे भूभागाक गळासारको आकार तयार जाता आनी वेगळेंच अशें भूशीर तयार जाता. मॅसॅच्युसेट राज्यांतलें 'केप कॉड' हें ताचें मुखेल उदाहरण. भूशिराचे निर्मितीचीं मुखेल कारणां अशीं: १) दर्यादेगेवयल्या प्रवाहाक लागून दर्याच्या सवथळ भागांत रेंव. माती आनी हेर घटकांचें थंड गतीन संचयन जावन रेंवेंचो दांडो (रस्तो) आनी पुळणी (वेळ) हांची वाड जाता. ताका लागून कांय खेपे दर्यांत भितरमेरेन अशीर भूशिरां (पॉयंट) तयार जातात. अशे तरेचीं भूशिरां न्हंयेच्या तोंडाकडल्या खाडयांनी तयार जाल्लीं मेळटात. २) भूखंड हिमन्हंयेच्या देगेर गाळ सांचून कांय भूशिरां निर्माण जातात. 'केप कॉड' हें ह्या प्रकाराचे एक भूशीर. ३) दर्या देगेवयल्या कठीण फातराचें कडें तशेंच उरून कडेच्या भागाचें ल्हारांक लागून क्षरण जावन ऊंच भूशिरांची निर्मिती जाता. देखीकः ऑस्ट्रेलियांतलें 'केप यार्क'.

- कों. वि. सं. मं.

## भूषण

**भूषण :** (इ.स. १६१३ - १७१५). नामनेचो हिंदी कवी. ताणें ताच्या काळांत वीररसात्मक कविता बरयली म्हणून तो नामनेक पावलो. तो काश्यप गोत्री कान्यकुब्ज ब्राह्मण आशिल्लो. ताचो जल्म कानपूर जिल्ह्यांतल्या तिकवाँपुर (त्रिविक्रमपूर) गांवांत जाल्लो अशें सांगतात. ताचें मूळ नांव कितें ताचेविशीं निश्चीत म्हायती मेळना. चित्रकुटचो राजा रुद्रदेव सोळंकी हाणें ताका 'भूषण' हें नांव भोवमानान दिल्लें, अशें म्हण्टात. बापायाचें नांव रत्नाकर त्रिपाठी. भूषणाच्या हेर भावांचीं नांवां - चिंतामणी, मतिराम आनी नीलकंठ. पयले दोगूय हिंदी कवी आशिल्ले. भूषणाच्या जल्मवर्साविशींय वेगवेगळीं मतां आसात. भूषण शिवाजीचो समकालीन आशिल्लो. शाहू, बाजीराव, महाराज जयसिंग, कुमाऊँ नरेश, गढवाल नरेश, औरंगजेब, दारा शुकोह हांची तुस्त करपी कांय छंद भूषणान बरयले. पूण तो तांचो आश्रीत मात नाशिल्लो. शिवाजी, औरंगजेब, छत्रसाल आनी सोळंकी हांणी भूषणाक आलाशिरो दिल्लो अशें कांय अभ्यासक मानतात.

भूषण हाणें स ग्रंथ बरयले अशें म्हण्टात. हे स ग्रंथ अशे- 'शिवराजभूषण', 'शिवबावनी', 'छत्रसालदशक', 'भूषणहजारा', 'भूषणउल्लास' आनी 'दूषणउल्लास'. हातूंतले पयले तीन ग्रंथ उपलब्ध आसात. भूषणाचें सगळें काव्य फुटकळ स्वरुपाचें आनी मुक्तक प्रकारांतलें. भूषणाची वीररसाची कविता बरीच नामनेक पावली. युध्दवीर, दयावीर, दानवीर आनी धर्मवीर ह्या चारूय प्रकारांच्या विरांचीं वर्णनां ताणें केल्यांत. हिंदू राश्ट्राचो उध्दार करपी शिवाजीक नायक करून ताणें ताचेर काव्य रचलें हें ताचें खाशेलपण. शिवाजी आनी छत्रसाल हांचेविशीं ताणें रचिल्लें काव्य बरेंच लोकप्रिय आसा.

'शिवराजभूषण' ह्या ताच्या काव्यांत वट्ट ३८४ छंद आसात. अलंकारशास्त्रावयल्या ह्या ग्रंथांत १०५ अलंकारांचीं लक्षणां दिवन तांची फोडणिशी केल्या. 'शिवबावनी' ह्या ग्रंथांत ५२ छंदांनी शिवाजी महाराजाची तुस्त गायल्या. 'छत्रसालदशक' ह्या ग्रंथांत १० छंदांत छत्रसालाचें गुणगान केलां. ताचे भाशेंत वीररसाची सोबीतकाय दिश्टी पडटा. ताची भास ब्रज आशिल्ली. पूण तातूंत मदींमदीं अरबी, फार्सी, तुर्की बुंदेलखंडी आनी बैसवाडी उतरांचोय वापर केला.

- कों. वि. सं. मं.

## भूसेना

**भूसेना :** जमनीचेर झुजपी वा जमनीवयल्यान मारो करपी सेना म्हळयार भूसेना. जमनीवयले कामगिरीवांगडाच, भूसेनेक नौसेना आनी वायूसेना ह्या स्वकीय हेर दोन सेनांकडेनूय वांगड करचो पडटा. सामका सामकार झूजतंत्र आनी गनिमी झूजतंत्र अशे भूसेनेचे विभाग आसात. सेनेंत झुजपी सैनीक, तांकां जाय आशिल्लो दारूगुळो, येरादारीची वेवस्था, वैजकी आदार आनी हेर पुरवण करपी उपफांट्यांचोय आस्पाव

तातूंत जाता. भूसेनेंत पांयदळ, रणगाडे, नाळदळ, अभियांत्रिकी, संदेशवहन हांकां चड म्हत्व आसा. राश्ट्राचे संरक्षण वेवस्थेंत भूसेनेक म्हत्वाची सुवात आसता.

सादारणपणान सगळ्या देशांच्यो भूसेना एकेच धर्तेचेर उबारिल्ल्यो आसतात. पिरॅमिडा प्रमाण आशिल्ले संरचणुकेंत सगळयांत उंचेल्या पदाचेर फिल्ड मार्शल आसता. सॅकंड लॅफ्टनन्ट > लॅफ्टनन्ट > कॅप्टन > मेजर > लॅफ्टनन्ट कर्नल > कर्नल > ब्रिगेडियर > मेजर जनरल > लॅफ्टनन्ट जनरल > जनरल > फिल्ड मार्शल अशी भूसेनेची रचणूक केल्ली आसता.

आदल्या काळांत टोळयां टोळयां भितरल्या संघर्शाक लागून झुजांची सुरवात जाल्ली. ह्या संघर्शाचीं कारणां शेतवडीचो विध्वंस, धान्याची लूट, गोरवां-वासरां आनी बायलांक उबारून व्हरप, मानापमानाचे प्रसंग हीं आशिल्लीं. ह्या संघर्शांनी दर एकलो वांटो घेतालो. उपरांत आपल्या देशाची राखण वा विस्तार वाडोवपाखातीर झुजाऱ्यांचो खाशेलो वर्ग निर्माण जालो. मुखार कांय पंगडांचीं झुजां करप ही मक्तेदारी जावन उरली. हूण, शक, मग्यार मोंगोल ह्या जमातींचो झूज करप, दुसऱ्या देशांचेर घुरयो घालप होच वेवसाय आशिल्लो. जो कोण सदांच मुखार झूजतालो तो पंगडाचो मुखेली जातालो. पुर्विल्ल्या ग्रीक आनी रोमन नगरराज्यांची स्थापणूक जाले उपरांत तातूंतल्यानूच सैन्य निर्माण जालें. सेनेंत वांटो घेवप हो एक पेशा निर्माण जालो. झुजाक वेवसाय मानपी जो सैन्याक दुडू दितालो ताचे वटेन सैन्य झुजतालें. झुजप हो पेशा मानले उपरांत तातूंत शिस्त, मोडण आनी रीतसर जिवीत हांचो आस्पाव जालो. ताचे फाटल्यान एक तत्त्वगिन्यान उबें रावलें. देशाखातीर प्राण त्यागप हो धर्म (कर्तव्य) जावन गेलो आनी हातूंतल्यानूच झुजपाची एक परंपरा निर्माण जाली. मुखार झूजपाचें क्षेत्र वाडपाक लागलें. तशी झुजाची तयारी आनी उपायूय वाडत रावले आनी भूसेना किल्ल्यांत रावपाक लागली. किल्ल्यांच्यो वणटी फोडपाखातीर गुळे शेंवटुपी नाळी निर्माण जाल्यो.

रोमन साम्राज्याक देंवती कळा लागलेउपरांत मध्ययुगीन काळांत वेवसायीक सैन्याची सुवात ल्हान ल्हान जर्मन राज्यांच्या फौजांनी घेतिल्ली. पूण जेन्ना मग्यार वा हूण हजारांचे संख्येन घुरयो घालपाक लागले तेन्ना हे ल्हान सेनेचो नाश जावपाक लागलो. ल्हान राश्ट्रां नश्ट जालेउपरांत व्हड राश्ट्रांनी जमीनदारी आनी मनसबदारी पद्दत अस्तित्वांत आयली. हे जमीनदार आपल्या हाताखाला सैन्य दवरपाक लागले. झुजा वेळार हे उमराव आपलें आपलें सैन्य घेवन राजाक आदार करपाक सदांच तयार आसताले. त्या काळांत झूज शास्त्राची व्हडलीशी उदरगत जावंक नाशिल्ली. फकत किल्ल्याभोंवतणीं रेवाडो घालून म्हयन्यांचे म्हयने दुस्मानाची नाकेबंदी करप हेंच लडायेचें मुखेल आंग आसतालें.

मध्ययुगीन काळांत घोडदळाक म्हत्व फावो जालें. चिलखत घाल्ले आनी भाले घेतिल्ले उमराव आपल्या आपल्या सैन्यावांगडा झुजामळार देंवपाक लागले. ह्या काळाचे अखेरेक युरोपांत आनी आशिया खंडांतल्या कांय देशांनी राजघराणीं निर्माण जावन, तांणी आपली पगारी फौज उबारली. हाचो परिणाम उमरावशायेचेर जावन तांचो प्रभाव उणो जायत गेलो. मुखार भाले-तरसादी सारकीं परंपरीक शस्त्रां हीं आधुनिक शस्त्रां झुजाखातीर वापरप जालें.

सैनिकी दर्ज्याच्यो खाशेल्यो अशो कांय पद्दती इतिहासकाळांत चालींत आशिल्ल्यो. देखीकः फॅलँक्स, हॉपलईट, लिजन आनी कॉंडोटिअरी फॅलँक्स हातूंत झुजारी दाट रांकांनी उबे रावून झुजताले. भालेदार तरसादधारी आनी परशुधारी अशे फॅलँक्साचे तीन वांटे आसताले. हाचेखेरीज रथांवयल्यान झुजपी रथी धोणूबाण आनी चिलखत हांचो उपेग करताले. हॉपलईट शस्त्रास्त्रां घेवन सज्ज आशिल्लें पांयदळ सैन्य, द्वंद्वझुजांत धाल, तरसाद आनी भाले हांचो वापर करतालें. पंदराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन इटालियन सैन्यांत कॉंडोटिअरी हो घोडदळाचो प्रकार आशिल्लो. लिजन पद्दतींत पांयदळ आनी ताच्या पालवाक घोडदळ आसतालें. मुखार एकुणिसाव्या शेंकड्यांत युरोपांत सेनांक राश्ट्रीय स्वरूप प्राप्त जालें.

**भूसेनेचे मुखेल घटक :**

१) **पांयदळ विभाग :** सैन्यांतलो सगळयांत व्हड आनी म्हत्वाचो विभाग. ह्या विभागांतले सैनीक आपल्या पांयांच्या आदारान जमनीवयल्यान झूज करतात.

२) **चिलखती वा रणगाडे विभाग :** ह्या विभागांत रणगाड्यांचो आस्पाव करून तांच्या आदारान आनी पांयदळाच्या पालवान हो विभाग झुजांत वांटो घेता.

३) **नाळ :** ह्या विभागांत नाळींचो आस्पाव आसता.

४) **अभियांत्रिकी विभाग :** सैनिकांखातीर घरां बांदप, रस्ते बांदप, पूल निर्माण करप, सैनिकी विमानतळ बांदप, तटबंदी उबारप वा सुरींग पुरप आनी काडप हो ह्या विभागाचो वावर.

५) **संदेश वहन विभाग :** दूरवाणी, बिनतारी आनी दुरदर्शन तशेंच हेर साधनांचो उपेग करून झूज संकलनाक पालव दिवपी विभाग.

६) **आर्मी सर्व्हीस कोर :** सैन्याच्या तिनूय विभागांक लागपी अन्नसामुग्रीची पुरवण करप आनी येरादारीची वेवस्था करप हें ह्या विभागाचें काम.

७) **आर्मी ऑर्डिनन्स कोर :** भूसेनेक लागपी शस्त्रास्त्रां, दारूगुळो आनी हेर सगळया प्रकारांच्या वस्तूंची पुरवण करपी विभाग.

८) **विद्युत् आनी यांत्रिकी अभियंतो विभाग :** भूसेनेचीं सगळया प्रकारांचीं वाहनां आनी हेर यंत्रीक साहित्याची दुरुस्ती आनी निरिक्षण करपी विभाग.

९) **आर्मी मॅडिकल कोर (वैजकी विभाग) :** भूसेनेक वैजकी आदार दिवप आनी रुग्णालयां चलोवप हें ह्या विभागाचें काम.

**भारतीय भूसेना :** भारताची सैन्य परंपरा खूब पोरनी. अश्मयुगांत गारगोटी आनी फातरांसावन तयार केल्लीं अस्त्रां आनी उपरांत धोणूबाण हांचो वापर झुजारी करताले. आर्य लोक भारतांत आयिल्ले तेन्ना तांकां लोखणाची जाण आशिल्ली. लोहयुगांत शस्त्रांचे निर्मितींत क्रांती घडून आयली. भाले, खंजीर, तरसाद, धाली, गदा आनी संरक्षक साधनांची निर्मिती जाली.

वैदिक काळांत चतुरंगबल, षटबल आनी अश्टबल अशो तीन प्रकारांच्यो सेना आसताल्यो. चतुरंगबल हातूंत रथ, हत्ती, घोडदळ आनी पांयदळ ह्या चार प्रकारांचो आस्पाव जातालो. षटबल म्हळयार रथ, हत्ती, घोडदळ, पांयदळ, रस्ते तयार करपी नौदल आनी अश्टबल म्हळयार वयल्या स प्रकारांखेरीज रसदविभाग आनी तंत्रीकी विभाग हांचो आस्पाव आशिल्लें सेनाबळ. त्या काळांत शस्त्रास्त्रांचो वापर कसो करचो हाचें शिक्षण गुरूकुलांत दिताले. शुक्रनीतीसार ह्या ग्रंथांत झुजाचे उत्तम, मध्यम, कनिश्ठ आनी अधम अशे चार प्रकार सांगल्यात. पांडवांच्या तेंपार सैन्य चतुरंगबल आशिल्लें. मौर्य काळांत तें षटबल जालें.

इसवी सनापयलीं ३२७ त ॲलेक्झांडर-पोरस हांचेमदीं जाल्ल्या झुजांत रथ नाकामी थरिल्ल्यान मुखार तांचो वापर उणो जायत गेलो. हतयांचो प्रभाव मात खूब तेंप तिगून आशिल्लो. उपरांत घोडदळाचो प्रभाव वाडिल्ल्यान हतयांचो वापर उणो जायत गेलो. मध्ययुगीन काळांत दिल्लीचे सुलतान आनी उपरांत मोगल राज्यकर्त्यांनी घोडदळ आनी पांयदळ हांचेर चड भर दिल्लो. मोगल आनी गुलाम वंशाच्या तेंपार गुलामांक तशेंच झूजकैद्यांक सैन्याक तरसादींची पुरवण करप, रस्ते बांदप, मार्गावयलीं आडमेळीं पयस करप हीं कामां करचीं पडटालीं. मनसबदारी पद्दतीक लागून दर एका मनसबदाराक बादशहाचे सेनेची रसद आनी झूजसामग्री व्हरपाखातीर पाडे, ऊंट, घोडे हांची पुरवण करची पडटाली. हाका लागून वेगळो रसद विभाग नाशिल्लो. बाबराच्या आक्रमणासावन भारतांत नाळींचो आस्पाव भूसेनेंत जालो. पानिपताच्या झुजांत इब्राहीम लोदीची हार बाबराच्या नाळदळाक लागून जाली. मोगलाच्या काळांत पांयदळ, घोडदळ, ऊंट, हत्ती, नाळ, यंत्री आनी रसद विभाग अशे विभाग आशिल्ले. अठराव्या शेंकड्यांत दक्षिणेंत बंजारा जातीचे लोक देशी राज्यांचे भूसेनेक आनी इस्ट इंडिया कंपनीचे सेनेक रसद पावोवपाचें काम करताले. त्या काळांत किल्ल्यांचो उपेग धान्य, दारूगुळो, नाळी, हत्यारां आनी हेर उपेगी वस्तू सांठोवन दवरपाखातीर करताले. आयज अस्तित्वांत आशिल्ले भारतीय सेनेचो उगम इस्ट इंडिया कंपनीचे फौजेंत जाल्लो. त्या काळांत वखारी आनी किल्ले हांची राखण करपाखातीर मुंबय, चेन्नई आनी कलकत्ता हांगा तीन वेगळ्यो सेना उबारिल्ल्यो. अठराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन ह्यो तिनूय सेना एका कमांडर ईन चीफच्या हाताखाला एकठांय आयल्यो. हे सेनेंत देशी काळे सैन्य, हिंदुस्थानांत उबारिल्ल्यो गोऱ्या लोकांच्यो पलटणी, इंग्लंडासावन हाडिल्ल्यो पलटणी , घोडदळ आनी नाळदळ अशे विभाग आसताले. १८५७ तल्या उठावाउपरांत नाळदळांतल्यान काळ्या देशी लोकांक काडले. राणयेच्या जाहीरनाम्या उपरांत देशी लोकांची फौज़ ब्रिटीश शेकातळा आयली. भारतीय रेजिमेंटाचें स्वरूप प्रांतीय आशिल्लें. विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक हिंदुस्थानी लोकांचो नाळदळांत परत आस्पाव करून घेतलो. नाळदळांत परदेशी, अँग्लो इंडियन आनी मुसलमान लोक व्हड संख्येन आसताले.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक सावन सॅपर्स आनी मायनर्स, सिग्नल रेजिमेंट, आर्मी सप्लाय कोर, आर्मी मॅडिकल कोर, आर्मी ऑर्डनन्स कोर, ई. एम. ई. मिलिटरी पुलीस, इंटेलिजन्स, मॅकनिकल इन्फंट्री, पॅरशूट सैन्य अशे विंगडविंगड विभाग भूसेनेक जोडले. इन्फंट्री, आर्टीलरी, आर्म्ड कोर, इंजिनियर्स सिग्नल हीं आंगां पालवी फौज म्हणून मुखार आयलीं.

कंपनी सरकाराचे फौजेंत हिंदी लोक सुभेदार, मेजर ह्या हुद्दयांमेरेनूच पावताले. विसाव्या शेंकड्यांत पयले फावट हिंदी लोकांक सँडहर्स्ट हांगा शिक्षण दिवन अधिकारी म्हणून घेवपाक लागले. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत अधिकाऱ्यांची गरज चड आशिल्ल्यान हिंदी लोकांक व्हड प्रमाणांत अधिकारी म्हणून प्रवेश मेळपाक लागलो.

भूसेनेची रचणूक भूगोलीक विभागाचेर आसून आयज पांच कमांड आसात. शिपायांचें मुळावें शिक्षण तांच्या रेजिमेंटाच्या केंद्रांत मेळटा आनी अधिकारी शिक्षण राश्ट्रीय संरक्षण प्रबोधिनी, खडकवासला (पुणें) आनी भारतीय सैन्य अकादमींत डेहराडूनाक मेळटा. अधिकारी वर्गाच्या उंचेल्या शिक्षणाखातीर वेगवेगळीं महाविद्यालयां आसात.

भारतीय भूसेनेचे रचणुकेंत सामान्य आनी राजादिश्ट अशे दोन मुखेल विभाग आसात. सामान्य वळेरेंत सैनीक, सॅपर, पॅराट्‌रूप, ग्रॅनेडियर, रायफलमन, गनर, नर्सिंग ऑर्डर्ली आनी हेर सेवक वर्गाचो आस्पाव जाता. तातूंतलीं चडटीं पदनांवां अशीं आसातः शिपाय > लान्सनायक, नायक, लान्स हवालदार आनी हवालदार > हवालदार मेजर राजादिश्ट वळेरेंत कनिश्ठ आनी वरिश्ठ अशे दोन प्रकार आसात. कनिश्ठ वळेरेंत : नायब सुभेदार/रिसालदार > सुभेदार / रिसालदार > सुभेदार मेजर / रिसालदार / मेजर. वरिश्ठ वळेरेंत सॅकंड लॅफ्टनण्ट > लॅफ्टनण्ट > कॅप्टन > मेजर > लॅफ्टनण्ट कर्नल > कर्नल > ब्रिगेडियर > मेजर जनरल > लॅफ्टनण्ट जनरल > जनरल > फिल्ड मार्शल.

जनरल सुनीत फ्रांसीस रुद्रिगीश हो गोंयकार चीफ ऑफ द आर्मी जनरल ह्या हुद्दार आसलो.

राश्ट्रपती तिनूय सेनादलांचो मुखेली आसता. देशाची राखण

करपाचे नदरेन देशाचे उत्तर, अस्तंत, मध्य, दक्षिण आनी उदेंत अशे पांच कमांड केल्यात. दर एका कमांडाचेर लॅफ्टनण्ट जनरल हुद्द्याचो आर्मी कमांडर आसता. हाचे फाटल्यान दर एका कमांडाचे गरजेप्रमाण प्रदेशीक मुख्यालय, उपप्रदेशीक मुख्यालय आनी स्थानीय मुख्यालय अशे विभाग केल्ले आसात.

भूसेनेच्या झुजारी दलाची उबारणी अशी आसा : सॅक्शन > प्लॅटून/ट्रूप > कंपनी स्क्वॉड्रन / बॅटरी / रेजीमेंट, बटालियन, ब्रिगेड, डिव्हिजन आनी कोर. उपरांत कमांडाचे कोठा आनी एरिया अशे दोन विभाग केल्ले आसात. कोराचें डिव्हिजन आनी ताचे सकयल ब्रिगेड आसून एरियाचें सबएरिया > स्टेशन अशे उपविभाग केल्ले आसात.

भारतीय भुंयेची परकीय आक्रमणासावन राखण करप, देशांत कायदो सुवेवस्था राखून दवरपाक सरकाराक आदार करप आनी आपत्तीच्या काळांत नागरीकांक आदार दिवप ही भूसेनेची जापसालदारकी. राश्ट्रसंघाचो वांगडी ह्या नात्यान, भारतान आपलें सैन्य कोरिया, इंडोचायना, कॉंगो, गाझा, श्रीलंका आनी सायप्रसांत शांतताय प्रस्थापीत करपाखातीर धाडिल्लें. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत पाकिस्तान आनी चीनाचें आक्रमण परतावपांत; हैदराबाद, जुनागढ आनी गोंय, दमण, दीव मुक्ती संग्रामांत; बांगलादेश मुक्ती संग्रामांत, भारतीय सेनेच्या हेर दोन विभागांवांगडा, भारतीय भूसेनेन मोलाचें योगदान दिलां.

प्रदेशीक सेना आनी राश्ट्रीय छात्रसेना हे दोन दुसऱ्या थराच्या सैन्याचे विभाग. प्रदेशीक सेनेचो कारभार भारतीय भूसेनेवरवीं चलता. झुजाच्या काळांत बाराय म्हयने कामार रावून हवाई पट्टेची राखण करप, कैद्यांच्या तळांचेर देखरेख दवरप, विमानविरोधी नाळी चलोवप अशीं कामां प्रदेशीक सेनेक करचीं लागतात.

हे भायर शीम सुरक्षादळ आनी नागरी संरक्षण दळ अशींय दळां आसात. हातूंतलें शीम सुरक्षा दल हें गृह मंत्र्याच्या नियंत्रणाखाला आसता. झुजांत व्हड पराक्रम दाखोवपी सैनिकांक परमवीर चक्र, महावीर चक्र आनी वीर चक्र हे सन्मान दितात. हे सन्मान नौदल आनी वायूदल विरांकूय मेळपाक शकतात. देशाभितरल्या शांतताय प्रस्थापनाच्या वावरांत जे शौर्य दाखयतात, तांकां किर्तीचक्र आनी शौर्यचक्र, तशेंच अशोकचक्र आनी सेना पदक प्रदान करतात. अशोकचक्र हो सेनेंतलो सगळयांत उंचेलो भोवमान.

- कों. वि. सं. मं.

**भृगू :** एक महर्षी आनी वैदिक सूक्तद्रश्टो. भृगू ह्या उतराची उत्पत्ती संस्कृत उतर भृगु म्हळयार अग्नीचो आवाज वा ज्वाला तशेंच भ्रस्ज, भृज म्हळयार भाजप, तेच भाशेन भ्राजा म्हळयार (उजवाडावप) ह्या संस्कृत धातूंपसून जाल्या.

कून आनी बार्थ हांच्या मतान भृगू म्हळयार विद्युत्‌देवता जाल्यार बर्गेनीच्या मतान भृगू म्हळयार अग्नी. फ्लेग्यस आनी फ्लेग्यी ह्या ग्रीक आनीरो मन देवतांवांगडाय कांय अस्तंती विद्वानांनी भृगूचो संबंद जोडला. भृगू आनी भार्गव हे थ्रेसाचे अग्निशोधक ब्रुजेस आशिल्ले अशेंय एक मत आसा.

भृगुचो जल्म इंद्रापसून जालो अशें तै. ब्राह्मणांत म्हळां. महाभारतांत एकेकडेन ताचो जल्म ब्रह्म्याच्या हृदयांतल्यान आनी दुसरेकडेन उज्यांत पडिल्ल्या प्रजापतीच्या विर्यापसून जालो अशें म्हळां. पयलीं मनून तयार केल्लो प्रजापती, ब्रह्मदेवाचो मानसपुत्र, सप्तर्षी, देवता हातूंत भृगूचो आस्पाव जाता.

चित्रावशास्त्री हाणें स्वायंभुव मन्वंतरांत जल्मल्लो भृगु प्रजापती आनी अग्नींतल्यान जल्मतकच जाका वरूणान दत्तक घेतलो, तो भृगु वारुणी वेगवेगळे आसात अशें म्हळां. वरूण आनी ताची बायल चर्षणी हांणी भृगुचो सांबाळ केल्ल्यान ताका वरूणपुत्र, चर्षणीपुत्र अशींय नांवां आसात.

दक्षकन्या स्वाती ही भृगुची बायल, लक्ष्मी ही धूव आनी धाता आनी विधाता हे ताचे पूत आशिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. तेचप्रमाण तो मनूचो जांवय, शंकराचो साडू आनी दक्षाच्यो दोन चलयो ताच्यो बायलो आशिल्ल्याचे निर्देश आसात. हिरण्यकशियपूच्यो दिव्या आनी पुलोमा (पौलोमी) ह्यो धुवो, भृगूच्यो बायलो आशिल्ल्याचेय उल्लेख सांपडटात. भृगु आनी पुलोमा हांकां बारा देव आनी सात ऋषी अशे एकुणीस पूत आशिल्ले.

भृगुविशीं कांय पुराणकथा आसात. त्यो अशो -

विष्णून भृगुची बायल पुलोमा हिका झुजांत मारतकच भृगून विष्णूक गर्भवास आपणावन धर्तरेचेर अवतार घेवपाचो श्राप दिलो; इंद्र जाल्ल्या नहुषाक ताणें श्राप दिवन सोरोप केलो; ब्रह्मदेव आनी शंकर कसोटीक उतरूंक नाशिल्ल्यान ब्रह्मदेवाची पुजा कोण करचोना आनी शंकराक लिंगरूप धारण करपाचो शाप दिलो; भृगून उदकांत आशिल्ल्या अग्नीचो सोद घेतलो; मातरिश्वान ताचेखातीर अग्नी हाडून दिलो अशो कांय पुराणकथा आसात.

भृगू हो अग्निचयन आनी हविर्भाग तयार करपांत तरबेज आशिल्लो. तेचवांगडा तो रथकारूय आशिल्लो.

**भृगुकुल** : भृगुन प्रवर्तीत केल्ल्या कुळाक भार्गव वा भृगुकुल म्हण्टात. भार्गव हे धर्म आनी नीत ह्या विशयांचे व्हड अधिकारी आशिल्ले. भृगु हे द्रवीड आसूं येत अशें कांय विद्वानांचें मत आसून कांय जाणांच्या मतान ते पयलीं दर्यामार्गान दक्षिण भारतांत आयले. ते दैत्य आनी दानव हांचे पुरयत आशिल्ल्याच्योय कथा आसात. ऋग्वेदांत तांकां सोमप्रेमी पितर मानून देवांवांगडा सोमपानाखातीर आवाहन केल्ल्यान ते

खूब पोरने आशिल्ल्याचें दिसता. अग्नी निर्माण करपाचें ज्ञान सगळयांक नाशिल्ल्यान तांकां देवाभाशेन मान मेळटालो. ई. सीग हाच्या मतान भृगु हें नांव मुळांत कारागिरांक आशिल्लें आनी लाकडाकाम करपी मनशांकूच पयलीं उज्याचो सोद लावप शक्य आशिल्ल्यान रथकार भृगुक उज्याचो सोद लागलो आसूं येता.

भृगुचो अंगिरस, अथर्वन् आनी ऋभ् हांचेवांगडा सदांच उल्लेख येता. ते झुजारी आशिल्ल्याचे तशेंच तांचेर हल्लो केल्लेखातीर सृंजय वैतहव्य ह्या लोकसमुहाचो नाश जाल्ल्याचोय उल्लेख मेळटा. ऋग्वेदांत तांचो रथकार म्हणून जो निर्देश आयला, तो सायणाचार्य आनी रुडोल्फ रोट हांच्या मतान ऋभूंचो आसा. दाशराज झुजांत द्रुह्यू आनी तुर्वश हांचे वांगडा भृगुय सुदास राजाचे दुस्मान मांडलीक आशिल्ल्याचे निर्देश मेळटात. भृगुचे क्षत्रियांवांगडा खूब लागींचे संबंद आशिल्ले. पूण परशुरामासारक्या क्षत्रियावांगडा दुस्मानकायूय आशिल्ली. महाभारतांत भार्गवांविशीं खूब आख्यानां, उपाख्यानां आयल्यांत.

कौरव-पांडवांच्या झुजाचें वर्णन करपी ग्रंथ हें मूळ भारताचें स्वरूप बदलून भृगुनीच ताका नैतिक आनी धर्मीक शिक्षण दिवपी महाभारताचें स्वरूप दिलें अशें म्हण्टात. महाभारताभाशेन मनुस्मृतीय भृगुसंहिताच कशी मानतात.

मार्गशीर्ष वद्य दुवादशीक सुरू करून, दरेक वद्य दुवादशीक करपी एका व्रताक 'भृगुव्रत' म्हण्टात. वरूणान भृगुक शिकयल्ले ब्रह्मविद्येक 'भृगुविद्या' म्हण्टात. अथर्ववेदाक 'भृग्वंगिरस' अशें नांव आसा. तैत्तिरीय उपनिषदांतले तिसरे वल्लीक 'भृगुवल्ली' म्हण्टात. दरेके व्यक्तीचें भविश्य सांगपी भृगुसंहिता, भृगुस्मृति, भृगुगीता, भृगुसूत्र, भृगुपनिषद, वास्तुशास्त्रावयलें एक पुस्तक हे सगळे ग्रंथ ताच्या नांवार आसात.

ह्या कुळांत भृगु, कवी, च्यवन, शुक्र, और्व, प्रमती, ऋचीक, रुरू, जमदग्नी, परशुराम, शुनक, शौनक ह्यो नामनेच्यो व्यक्ती जावन गेल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**भृगुसंहिता :** भविश्य विशयावयलो एक ग्रंथ. भृगु ऋषीन आपल्या त्रिकाळज्ञानाच्या बळार फुडें येवपी जायत्या पिळग्यांचें भूत-भविश्य ह्या ग्रंथांत बरोवन दवरलां. भृगु आनी ताचो पूत शुक्र हांचेमदल्या संवादाच्या रुपान हें भूतभविश्य आसा. दर एका मनशाचें भूत-भविश्य ह्या ग्रंथांत मेळटा.

अधिकृत भृगुसंहितेच्यो प्रती मेरठ, पंजाबांतले दुंबली, होशियारपूर, काश्मीर, बरनाला, दिल्ली, हरिद्वार, देवप्रयाग ह्या मेजक्याच सुवातांनी मेळटात. भृगुसंहितेंतल्यो कुंडल्यो आनी तांचीं वर्णनां एका पोरन्या कागदार पोथयेच्या रुपान बरयल्लीं आसात. तातूंत पत्रिकेचें वर्णन संस्कृत भाशेंत श्लोकाच्या स्वरुपांत आसता. भूर्जपत्रां, तांब्यापटे आनी कुळकाच्यो पट्ट्यो हांचेरूय भृगुसंहितेचें लिखाण केल्लें मेळटा.

भृगुसंहितेंत कोणाचेंय भविश्य वाचतना विशयांतर करून हेर संबंदीत व्यक्तींचीं वा जायते फावटीं राश्ट्रीय स्वरुपाचीं म्हत्वाचीं भविश्यां भृगु आनी शुक्र हांच्या मार्मिक संवादांतल्यान प्रकट जातात.

हालीं तेपार भृगुसंहिता ह्या नांवान छापिल्ले ग्रंथ मेळटात. पूण हातूंतल्या बऱ्याच ग्रंथांच्या खरेपणाविशीं वाद आसात.

भृगुसंहिते सारक्योच आनिकूय कांय संहिता दक्षिण भारतांत घोळणुकेंत आसात. तांकां नाडीग्रंथ अशें म्हण्टात. तांची भाशा चड करून तमीळ, तेलुगू वा मलयाळम् आसता. हे ग्रंथ भुर्जपत्राचेर वा ताडपत्राचेर बरयल्ले आसात. हे ग्रंथ खूब पोरने आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**भेंडयो :** खेळांतलो एक प्रकार. जायतीं भुरगीं एकठांय येतकच दोन पंगड करून हो खेळ खेळटात. पदां, नांवां, आडनांवां, गांवांचीं नांवां हांचेर आदारून हो खेळ खेळटात.

हो खेळ खेळपाक दोन वा दोनांपरस चड भुरगीं आशिल्ले दोन पंगड लागतात. सुरवेक एका पंगडान पदाचें एक कडवें म्हणून खेळाक सुरवात करपाची आसता. ताणें म्हणिल्ल्या पदाच्या निमाणें जें अक्षर येता त्या अक्षरान सुरवात जावपी पद दुसऱ्या पंगडान म्हणपाचें आसता. अशे तरेन एकामेकांनी म्हणिल्ल्या पदाच्या निमाण्या अक्षरान सुरवात जावपी पदां म्हणून हो खेळ खेळटात. प्रतिपक्षान म्हणिल्ल्या पदाच्या निमाण्या अक्षरान सुरू जावपी पद ज्या पंगडाक येना त्या पंगडाचेर भेंडी पडटा. एकदां म्हणिल्लें पद परतें म्हणूंक येना. अशो भेंडयो ज्या पंगडाचेर चड पडटात तो पंगड हारता. मनशांचीं नांवां, आडनांवां वा गांवांचीं नांवां घेवनूय असले तरेचो खेळ खेळटात.

ह्या खेळांत दोनूय पंगडांक आपआपले स्मरणशक्तीची तांक पणाक लावंची पडटा. कारण सेगीत त्याच त्याच आयिल्ल्या अक्षरापसून पदां वा नांवां याद करून दवरचीं पडटात. तशेंच एकदां म्हणिल्लें पद परतून म्हणपाक मनाय आशिल्ल्यान चडूच अडचण जाता. प्रतिपक्षी पंगडाक ज्या अक्षरापसून उणीं पदां येतात तें अक्षर मुद्दाम निमाणें हाडून येवपी पदां म्हणपाक भाग पाडप हे खातीर कसब लागता.

- कों. वि. सं. मं.

**भेंडो :** (मराठी : भेंडी; हिंदी : भिंडी, भिंडी तोरी, रामतुरई; गुजराती : भिंडा; कन्नड : भेंडे, भेंडीकाई; संस्कृत : गंधमूळ; इंग्लीश : लॅडीज फिंगर, ओक्रा, गंबो; लॅटीन : अबेल मोशस, एस्कुलँटस, हिबिस्कस एस्कुलँटस; कूळ : माल्व्हेसी).

सादारण एक वर्सभर (कांय सुवातींचेर) जगपी सुमार १-२.३ मी. उंचायेचें भाजयेचें झाड. ताच्या खोडाचेर बारीक बारीक केंस आसतात. पानां सादीं एका फाटल्यान एक काळजा आकाराचीं आसतात. फुलां पानांचे कुशींत एकटुकीं आसतात. रंगान हळदुवीं आसून तांचे मदीं



भेंड्याचो उबो छेद पानां, फुलांसयत भेंड्याचें झाड

तांबडो वा जांबळो तिबो आसता. फळ लांबट १२.३०सेंमी. लांब आनी सांगेवरी आसून ताच्या आंगार बारीक केंस आसतात. तशेंच लांबायेचे दिकेंत ५.८ शिरो आसतात. फळांत वाटकुळयो बियो आसतात, तरण्या फळांत बुळबुळीत पदार्थ आसता.

हें फळ मूळचें आफ्रिकेच्या वा आशियेच्या उश्ण भागांतलें आसून आतां उश्ण आनी उपोश्ण कटिबंधांतल्या देशांनी लागवडींत आसा.

संवसारांतल्या सगळ्या उश्ण आनी समशितोश्ण वाठारांनी हें भाजीपाल्याचें पीक म्हणून लागवडींत आसा. भारतांत १,२०० मी. उंचायेमेरेन हाची लागवड करतात. भेंड्याचें पावसाळी आनी वायंगणें पीक काडटात. वायंगणें पीक फेब्रुवारी- मार्चांत रोवन जुलय-ऑगस्टांत फळां काडटात. पावसाळी पीक जूनांत रोयतात आनी फळां ऑक्टोबरांत काडटात. दक्षिण भारतांत हें पीक वर्सूय भर उण्या प्रमाणांत घेतात.

ह्या पिकांत जायते प्रकार आसात. तातूंत पाचवो लांब ६-७ सेंमी. लांब धारो आशिल्लो लुसलुशीत भेंडो बरो समजतात. वायंगणी पिकाखातीर पांच धारांचो गुळगुळीत प्रकार जाल्यार पावसाळी पिकाखातीर आठ धारांचो गुळगुळीत वा केंसाळ भेंड्याचो प्रकार लागवडीखाला हाडटात. पुसा सावनी, पुसा मखमली, पंजाब १३, सिलॅक्शन १-१ आनी सिलॅक्शन २-२ हे भेंड्याचे हेर प्रकार लागवडीखाला आसात.

ह्या पिकाक उदकाचो निचरो जावपी मध्यम प्रकारची जमीन बरी. ती १५-२२ सेंमी. खोल नांगरून घेतात आनी तातूंत हॅक्टरी १२टन कुशिल्लें शेणखत घालून ती परत मळून घेतात आनी तातूंत हॅक्टरी ७५ किग्रॅ. नायट्रोजन, ७५किग्रॅ. फॉस्फोरिक आम्ल आनी ७५ किग्रॅ. पोटॅश जमनींत घालतात. पावसाळ्यांत ६०सेंमी. आनी गिमांत ४५सेंमी. अंतराचेर मेरो काडून तांच्या दोनूय वटांनी ४५सेंमी. अंतराचेर दोन बियो घालतात. हॅक्टरी १०-१२ किग्रॅ. बीं लागता. हें पीक मिश्रपीक म्हणुनूय घेतात. पेरणे उपरांत तीन सप्तकांनी ७५किग्रॅ. नायट्रोजन आनी दोन म्हयन्यांउपरांत दर सप्तकाक एक प्रतीशत युरियाचो फवारो दिल्यार भेंड्यांचें उत्पादन वाडटा. पावसाळयांत पावस नासल्यार ७-१० दिसांनी आनी गिमांत ४-६ दिसांनी उदक दितात.

फळां तरनीं आसतनाच काडटात. पावसाळ्यांत फळांची वाड खूब बेगीन जाता देखून तीं तोडपाक १-२ दिसांच्या अंतरान तयार जातात. हीं फळां वेळान काडल्यार तीं जून जावन तातूंत सुतां तयार जातात. गिमांत ६०-७० दिसांनी भेंडे तयार जातात. पावसाळी पिकाचें उत्पन्न दर हॅक्टरी १०,०००किग्रॅ आनी गिमांत पिकाचें ५,००० किग्रॅ. आनी मिश्र पिकाचें १५०० किग्रॅ उत्पादन मेळटा. पुसा मखमली प्रकारचें हॅक्टरी उत्पन्न १८,६००- २३,३०० किग्रॅ मेळटा.

भेंड्यांत ८८% उदक, २.२% प्रथिनां आनी ७.७% कार्बोहायड्रेट तशेंच लोखण आनी कॅल्शियम आसता. तरन्या भेंड्यांत जून भेंड्यापरस 'क' जीवनसत्व चड आसता. भेंड्याची भाजी करून खातात. हें फळ शक्तीवर्धक, पॅक्टीन आनी स्टार्चयुक्त आसून मुताच्या दोशांचेर आनी पचनाच्या विकाराचेर ताचो उपेग जाता. बियां १६-२०% खावपाचें तेल आसता. झाडाच्या पाचव्या देंठांतलो श्लेमेष पदार्थ उसापसून गोड तयार करतना रोस निवळ करपाखातीर वापरतात.

भेंड्याचेक भुरी आनी केवडा हे म्हत्वाचे रोग जातात. एरिसायफे सिकोरेसियारम ह्या कवकाक लागून भुरी हो रोग जाता, जाका लागून पानां गळून पडटात. हे पिडेचेर गंधक भुकटी (३०० मेश) हॅक्टरी ७५ ते ८० किग्रॅ ह्या प्रमाणांत फवारतात. केवडा हो रोग वायरसजन्य आसून तो सगळेकडेन दिश्टी पडटा. ह्या रोगाक लागून झाडाची वाड जायना आनी फळां उण्या प्रमाणांत येतात. ताका लागून किटक नाशकांचो वापर करून, रोगट झाडां आसल्यार तीं नश्ट करून ह्या रोगाक आळाबंदा हाडटात.

भेंड्याचे हेर प्रकार अशे आसात : कस्तुरी भेंडो, बदलरंग भेंडो, रानभेंडो, कापूर भेंडो आनी भूरभेंडो. गोंयांत घरगुती प्रमाणांत तशेंच वांयगणी आनी पावसाळी पीक म्हणून भेंड्याचें पीक घेतात.

- कों. वि.सं. मं.

**भेंब्रे, ॲड्. उदय लक्ष्मीकांत :** (जल्म : २७ डिसेंबर १९३९, मडगांव).

ताचें मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण जांबावली, रिवण, कुडचडें आनी वास्को हांगा जालें. फुडल्या शिक्षणाची सोय गोंयांत नाशिल्यांन ताका गोंयाभायर वचचें पडलें. मुंबयचे सिद्धार्थ कॉलेजींतल्यान ताणें

बी.ए.ची पदवी घेतली आनी उपरांत मुंबयचे गव्हर्नमेंट लॉ कॉलेजींतल्यान एल्‌एल्.बी. ही कायद्याची पदवी मेळयली.

१९६१ ते १९६३ मेरेन आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्राचेर स्टाफ आर्टिस्ट म्हूण काम करतना कवी आनी गीतकाराखातीर गरजेचो अणभव जोडलो.

उपरांत गोंयांत येतकच ताणें १९६३ ते १९६८ ह्या काळांत मडगांवच्या राष्ट्रमत दिसाळयांत सहसंपदाक म्हूण काम केलें. ह्या दिसाळयांत 'ब्रह्मास्त्र' नांवाचें सदर नेमान बरोवन ताणें 'गोंय महाराष्ट्रांत वचचें काय स्वतंत्र उरचें' ह्या प्रश्नाचेर १९६७ वर्सा गोंयांत जाल्या देशांतल्या पयल्याच ओपिनीयन (सार्वमत) पोलांत, गोंयचें खाशेलपण राखून दवरपाक, लोकमत घडोवपाच्या संदर्भांत ताच्या लिखाणाचें आनी वक्तृत्वाचें बरेंच योगदान जालां. गोंय, कोंकणी समाज, कोंकणी अस्मिताय आनी गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करपाच्या राजकीय प्रस्तावाक खर विरोध ह्या विशयांचेर कोंकणी समाजाचें प्रबोधन केलें.



१९८४ वर्सा मडगांव मतदार संघांत अपक्ष म्हूण रावून आमदार पदाची वेंचणूक जिखले उपरांत १९८४ ते १९८९ ह्या मेरेनच्या काळात गोंय विधानसभेचो वांगडी म्हणून वावुरताना ताणें तर्कनिष्ठ, बुद्धीनिष्ठ आनी अभ्यासपूर्ण अशा आपल्या विधानसभेच्या वावराची ताणें देख दिल्या.

१९७३ ते १९८३ मेरेन कोंकणी भाशा मंडळाचो अध्यक्ष म्हूण वावुरतना कोंकणी शाळांखातीर कोंकणी पाठ्यपुस्तकांचे निर्मणेचो म्हत्वाचो वावर ताणें सांगात्यांच्या आनी शिक्षणतज्ञांच्या पालवान पुराय करून तांकां सरकारी मान्यताय मेळोवन घेतली. गोंयची भास, साहित्य, संस्कृतायेखातीर वावुरपी गोवा कोंकणी अकादेमीचे स्थापनेसावनच तो हे अकादेमीचो वांगडी म्हूण वावरत आयला आनी १९९६ वर्सा सावन अकादेमीचो अध्यक्ष म्हूण जापसालदारकी सांबाळून आसा. दिसानदीस गरज आनी व्याप्ती वाडिल्लो कोंकणीचो वावर समर्थपणान फुडें व्हरपाक, विशेश करून कोंकणीतलें संशोधनात्मक साहित्य उजवाडा हाडपाचो हावेस बाळगून मडगांवां स्थापन जाल्ले 'अस्मिताय प्रतिष्ठान' हे संस्थेचो अध्यक्ष म्हूण १९९५ वर्सा सावन उदयबाब वावरता. गोंयच्या पं. जावहरलाल नेहरू ट्रस्टाचो ते सचीव आसा. सद्या तो कला अकादमीचोय वांगडी आसा.

१९७५ वर्सा मडगांवां जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचो अध्यक्ष आनी १९८६ वर्सा कोची-केरळ हांगा जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या १६व्या अधिवेशनाचो अध्यक्ष म्हूण ताची निवड जाल्ली. १९८२ वर्सा पणजे जाल्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या १४व्या अधिवेशनाचो येवकार अध्यक्ष म्हणूनूय ताणें वावर केला.

कोंकणीखातीर साहित्य अकादेमीची मान्यताय, तिका गोंयची राजभास आनी कोंकणीचो घटनेच्या आठव्या परिशिश्टांत आस्पाव करून घेवपाच्या चळवळींनी ताणें सक्रीय वाटो घेतला. साहित्य अकादमीच्या कोंकणी भाशा सल्लागार समितीचो वांगडी; गोंय, दमण, दीवच्या नांवाच्या प्रमाणीकरण समितीचो वांगडी; गोंय राज्याच्या राजभास सल्लागार समितीचो वांगडी, दक्षिण रेल्वेच्या विभागीय समितीचो वांगडी; गोंय, दमण, दीव वकील संघटनेचो अध्यक्ष आदी पदांचेर उदयबाबान वावर केला.

१९९३ वर्सा सावन 'सुनापरान्त' ह्या कोंकणी दिसाळयाचो मुख्य संपादक म्हणून ताणें पदभार सांबाळ्ळा. लेखक, कवी आनी गीतकार म्हूण ताणें जोडिल्ली कीर्त लक्ष ओडून घेवपासारकी आसा. 'राष्ट्रमत' दिसाळयांतल्या ताणें बरयल्ल्या 'ब्रह्मास्त्र' आनी 'सुदर्शन' ह्या मराठी स्तंभलेखनाचें संकलन 'ब्रह्मास्त्र' ह्या नांवान पुस्तकरुपान उजवाडा आयलां. 'चान्याचे राती' ह्या ताच्या कविता आनी गीतांच्या झेल्यांतलीं गितां खुबूच लोकप्रिय जाल्यांत. तातुंतलें चान्याचे राती हें गीत तर लोकगीत जालां. महाभारतांतले कथेचेर आदारिल्लें 'कर्णपर्व' नांवाचें नाटक ताणें बरयलां. ताचीं सुमार २० गितां आकाशवाणी आनी एच्.एम्.व्ही. न मुद्रायल्यांत.

वेवसायान वकील आशिल्ल्या भेंब्रेन १९७१ वर्सा मुंबयंत वकिली वेवसाय सुरू केलो. मात उपरांत रोकडोच तो गोंयांत आयलो आनी १९७३ वर्सा सावन आयजमेरेन वकील म्हूण ताणें आपलो वेवसाय चालू दवरला.

- कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

## भेंब्रे, डॉ. नारायण व्यंकटेश प्रभू : (जल्मः १३ सप्टेंबर १९१३, जांबावली-केपें).

सुटकेझुजारी. ताणें इश्कोल मेदिकुची पदवी मेळयल्ली. संघटना समितीचो तो वांगडी आशिल्लो. फुडें हे समितीचें 'गोमंतक कॉंग्रेसी'त रुपांतर जातकच तो तिचो वांगडी जालो. १८ ऑगस्ट १९४६ ह्या दिसा लोंढ्यार जाल्ले बसकेंत तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो पयलो जोड चिटणीस म्हणून वेंचून आयलो. केप्यां जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो, देखून १८ ऑक्टोबर १९४६ दिसा पुलिसांनी ताका धरलो. केपें न्यायालयांत उबो करून ताका एका म्हयन्याखातीर बंदखणींत धाडलो. थंयच्यान सुट्टकच शिरोड्यां जाल्ले बसकेंत उलोवप केल्ले

खातीर ताका परतून अटक जाली. थंयच्यान सुटका जातकच ताणें माधव बीर हाचेवांगडा चळवळ आनिकूय खर करपाचो यत्न केलो.

ताणें 'आंदोलन' नांवाचें मराठी पंद्रशी नेमाळें सुरू केलें. उपरांत तो मुंबय गेलो आनी थंयसावन राश्ट्रीय पांवड्यार वावर करूंक लागलो. 'महाराष्ट्र सरकार वैजकी सेवा' हाच्या अहमदनगर फांट्यांत ताणें नोकरी धरली. १९५२ त पुण्याक भरिल्ल्या 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेच्या सव्या अधिवेशनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. अँन्थनी द सौझ आनी हेरांचे सांगणेवयल्यान ताणें १९५४ त मॅडिकल ऑफिसराची नोकरी सोडली. चळवळींत वांटो घेवंक तो सत्याग्रही शिबिरांत गेलो. कांय दिसांनी तो परत आयलो आनी ताणें नोकरी धरली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवनाम केला. १८ जून १९८२ दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**भेंब्रे, प्रभाकर पद्मनाभ प्रभू :** (जल्म : २७ ऑगस्ट १९२७, कारवार).

सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वावुरपी वांगडी आशिल्लो. २ ऑक्टोबर १९४६ ह्या दिसा जांबावली ते केपेंमेरेन प्रभातफेरी काडिल्ली तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. तो लिपचोरयां पत्रकां वांटप, पत्रकां लावप असलीं कामां करतालो. १६ सप्टेंबर १९५४ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो. ताका पांच वर्सां खर बंदखण आनी एक वर्स सादे बंदखणीची ख्यास्त फर्मायल्ली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि सं. मं.

**भेंब्रे, लक्ष्मीकांत व्यंकटेश प्रभू :** (जल्म : २ ऑगस्ट १९०६ रिवण; मरण : १ सप्टेंबर १९८५).

सुटकेझुजारी. मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान जावन, पुर्तुगेजींतल्यान लिसेवाचें तिसऱ्या वर्सा मेरेनचें शिक्षण घेतलें. तशेंच, आदवोगासिचीय पदविका घेतली. सुरवेकसावन तो समाजीक चळवळींनी वांटो घेतालो. संघटना समिती हे राजकीय संघटनेचो तो मुखेल वांगडी आशिल्लो. उपरांत हे संघटनेच्या नांवांत बदल करून तिका 'गोमन्तक काँग्रेस' हें नांव दिलें. हे संघटनेच्या नांवासकयल गोंयचे सुटके चळवळीचें म्हत्व सामान्य लोकांक पटोवन दिवपाखातीर तो पोटतिडकीन वावुरला. १८ ऑगस्ट १९४७ दिसा लोंढ्यार ताच्या फुडारपणाखाला एक बसका घडोवन हाडिल्ली. हे बसकेंत 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटना उबारपाचो निर्णय घेतिल्लो. उपरांत 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचे कार्यकारी समितीचो तो वांगडी जालो. बसकांनी वांटो घेवप, बसका घेवप, पत्रकां वांटप असलीं कामां तो करतालो. मडगांवां ताणें सत्याग्रह घडोवन हाडिल्लो. हाका लागून पुर्तुगेज पुलिसांनी ताका धरून बंदखणींत दवरलो. १४ डिसेंबर १९४७ दिसा प्रदेशीक लश्करी न्यायालयांत ताची चवकशी जावन ताका चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फावो जाली. जानेवारी १९४७ त ताका लिस्बनाक व्हरून पॅनीशच्या किल्ल्यांतले बंदखणींत दवरलो.

बंदखणींत आसतना लेगीत ताणें सत्याग्रहाचीं तत्त्वां आपणायल्लीं. गोंयांत त्या तेंपार कैद्यांखातीर घराकडच्यान जेवण व्हरपाची पद्दत आशिल्ली. तशेंच राजकीय कैद्यांक आनी हेर गुन्यांवकारांक बंदखणीत एकठांयूच दवरताले. राजकीय कैद्यांक स्वतंत्र जागो आसचो आनी तांकां जेवणभत्तोय दिवंचो हे मागणेखातीर ताणें उपास सुरू केलो. हे ताचे मागणेक सरकारी मान्यताय मेळ्ळी.

२५ ऑक्टोबर १९५० ह्या दिसा ताची सुटका जाली. १९६२ मेरेन तो लिस्बनांतूच उरलो. १९५२ त तो 'थिऑसॅफिकल सोसायटी ऑफ पुर्तुगाल' हे संस्थेचो वांगडी जालो. हिंदू धर्माचें म्हत्व आनी भगवत गीतेचें व्हडपण सिद्द करपाखातीर ताणें साबार व्याख्यानां दिलीं आनी लेखूय बरयले. पुर्तुगालाक जावपी घडणुकांची म्हायती भारतीयांक दिवपाखातीर ताणें एकलव्य ह्या नांवान मुंबयच्या 'दुदसागर' आनी बेळगांवच्या 'नवजीवन' नेमाळ्यांनी साबार लेख बरयले.

गोंय मुक्तीउपरांत तो मे १९६८ त गोंयांत आयलो. गोंयांत आयलेउपरांत ताणें आपल्या हेर वांगड्यांच्या पालवान 'पोर्तुगाली राजवटीपूर्वीचे गोव्यातील धार्मिक वाङमय', हें मराठी पुस्तक बरयलें. तशेंच गोंयांत मराठी भाशेची सुवात आनी तिचें म्हत्व ह्या विशयाचेर शास्त्रीय लिखाण केलें. हरीजन समाजाखातीर तो खूब वावुरला. तो एक बरो पत्रकार आशिल्लो. ज्ञानप्रकाश ह्या दिसाळ्याचो तो खबरांकार अशिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन आनी गोंय सरकारान मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**भेसळ :** (ॲडल्टरेशन). फाव तेपरस चड फायद्याच्या उद्देशान, उण्या दर्जाचो म्हाल बरे प्रतीच्या म्हालांत भरसप म्हळयार भेसळ. भेसळीची प्रक्रिया उत्पादन केंद्र आनी विक्री केंद्र अशा दोन सुवातींनी घडटा. गरजेच्या वस्तुंचो उणाव आनी म्हारगाय हे सारकिलीं कारणां भरसण करपाक प्रवृत्त करतात आनी गिरायकाचें अज्ञान आनी निश्काळजीपणाक लागून भेसळीक उत्तेजन मेळटा.

भेसळ करतल्याक भेसळीपसून अधर्मी फायदो मेळटा आसलो तरी ताचो परिणाम म्हणून गिरायकाक अर्थीक नुकसान आनी जिवीत

हानी हांचे सारके गंभीर परिणाम भोगचे पडटात. चड करून अन्नपदार्थ, वखदांतली भेसळ, मनशाचे भलायकेची नाशाडी करता. शिमीट, लोखण सारकिल्ल्या बांदकामांतल्या जिनसांची भेसळ व्हड प्रमाणांत वित्त हानी आनी जिवीत हानी करता.

भारतांत फकत कांय प्रदेशीक राज्यांनीच प्रसंगा प्रमाण खाद्यपदार्थांविशींचे भेसळ प्रतिबंधक अधिनेम केल्ले. पूण १९३७ त पुराय भारताक लागू जावची अशी तरतूद भेसळ प्रतिबंधक अधिनेमांनी आसची अशी शिफारस १९३७त केंद्रीय सल्लागार मंडळान नेमिल्ले समितीन केल्ली. ते प्रमाण 'खाद्यपदार्थ आनी हेर म्हाल हांची भेसळ' ह्या विशयाचो आस्पाव भारतीय संविधानाचे तिसरे वेळेरेंत जालो. वखदाचे भेसळीक प्रतिबंध करपाच्या उद्देशान १९४५त वखदांखातीर अधिनेम तयार केले. वखदां उपरांत खाद्यपदार्थांखातीर खाद्यपदार्थ भेसळ प्रतिबंधक अधिनेम १९५४ हो अधिनेम केलो. ताचे उपरांत सौंदर्य प्रसाधना संतती नियमनाचीं साधनां, किटकनाशक आनीक जंतूनाशक रसायनां आदींचो आस्पाव करपी 'वखदां आनी सौंदर्य प्रसाधनां अधिनेम' १९६४त केलो. ताचे उपरांत खाद्यपदार्थांचो भेसळ प्रतिबंधक सुदारीत अधिनेम १९७८ त चालीक लागलो. ह्या बदलाप्रमाण खाद्यपदार्थांनी भेसळ केल्ले पदार्थ वा वस्त विकपी मनशाक कायद्यान स म्हयने ते तीन वर्सांमेरेन बंदखण आनी एक हजार रुपया दंड सुचयला. भरसण प्रतिबंधक कायद्यान तो गुन्यांवकारी जाता. अशी भेसळ केल्ली वस्त मनशाच्या जिवाक घातक जाली जाल्यार स वर्सां मेरेन बंदखण आनी २,००० रुपया दंड जाता आनी जर मनशाक मरण येत जाल्यार ५,००० रुपया दंड जाता. हो गुन्यांव परत केलो जाल्यार ताच्या दुकानाच्या परवान्याचेर बंदी हाडप जाता. वेगवेगळे अधिनेम चालीक लावपाचे नदरेन वेगवेगळ्या राज्यांनी आपआपले गरजेप्रमाण आनीकूय अधिनेम केल्यात आनी ते खरेपणी चालीक लावपाक प्रशासकीय यंत्रणां स्थापन केल्या.

भेसळ ही मोटे शिटूक साणीन आनी हुशारकायेन करतात देखून ती सोदून काडपाक प्रयोगशाळेंतली विश्लेशण पद्दत वापरांत हाडची पडटा. हें विश्लेशण करता आसतना सुरवेक इश्ट पदार्थ कित्याक म्हणप हें सोदून काडचें पडटा. हाचेखातीर वेगवेगळ्या तरांचे अन्न पदार्थ, वखदां, रसायनां यंत्रीक उपकरणां आदींचीं मानकां (प्रमाणभूत गुणधर्म) थरोवपी 'भारतीय मानक संस्था' स्थापन केली. भेसळीचेर बंदी घालपाचे नदरेन वा पदार्थ विकपाक काडटा आसतना मानव संस्थेचें प्रमाणपत्र घेवप आनी सहज गिरायकाचे नदरेक येवपाखातीर ती वस्तू दवरिल्ले बाटलेर वा खोक्यार वा हेर प्रकारच्या आवेश्ठनाचेर ॲगमार्क हें बोधचिन्न छापपाचो यत्न जालो.

एक फावट दुबाव येतकच त्या पदार्थांत भेसळ आसा काय ना हें पळोवपाखातीर प्रयोगशाळेच्या तंत्राचो उपेग करचो पडटा. अशीं परिक्षणां वेगवेगळ्या शासकीय प्रयोगशाळेंतल्यान करप जातात. अन्न आनी वखदां प्रशासन आपले प्रयोगशाळेंत वखदांचीं परिक्षणां करता. खाद्यपदार्थांच्या परिक्षणाखातीर अशे पदार्थ भलायकी सेवा यंत्रणेचे प्रयोगशाळेकडेन धाडटात. उपरांत पुलिसांवरवीं भेसळेखातीर जप्त केल्लो म्हाल न्यायसहाय्यक विज्ञानीक प्रयोगशाळेकडेन विश्लेशणाखातीर धाडटात. भेसळीखातीर जिवीताची हानी जाल्यार त्या गुन्यांवांची पोलिसखात्यांत नोंद जाता आनी त्या म्हालाचेर बंदी हाडटात.

भेसळेखातीर परिक्षणाक येवपी पदार्थांतले भेसळीचे प्रकार सोदून काडपाखातीर वेगवेगळ्या विज्ञानफाट्यांतल्या तंत्राचो उपेग करचो पडटा. तशेंच ह्या विज्ञान फाट्यांतलीं विश्लेशण तंत्रां वापरांत हाडपाची तांक आशिल्ले प्रयोगशाळेचीय गरज आसता. १९५७ उपरांत भारतांत राज्य पांवड्याचेर न्यायसहाय्यक विज्ञानीक प्रयोग शाळेची स्थापणूक जाली.

भेसळीचीं प्रकरणां उणीं करपाखातीर गिरायक संस्थेवतीन दिसाळीं, रेडिओ, दूरचित्रवणी, प्रदर्शनां प्रात्यक्षिकां आदी माध्यमांवरवीं समाज प्रबोधन तशेंच उत्पादक आनी विक्रेतो हांचेमदीं समाजीक जापसालदारकेची जाणविकाय तयार करप गरजेचें. तेचपरी वस्तूचो उणाव आनी म्हारगाय उणी केली आनी भेसळ प्रतिबंधक कायदो खरपणान चालीक लायलो जाल्यार भरसणेच्या प्रकरणाचेर आळो बसूं येता.

भरसण केल्ली वस्त कशी वळखप हाची म्हायती अशीः

| वस्त | भरसण केल्लो पदार्थ | परिक्षण |
|---|---|---|
| खावपाचें तेल | आर्गेमोने तेल | थोडें तेल घेवन तातूंत नायट्रीक ॲसीड घालप. ताचो रंग तांबडो जालो जाल्यार तातूंत भरसण आसा. |
| तूप, लोणी | वनस्पती तूप | कुलेरभर तूप वा लोणयांत एक कुलेरभर हायड्रोक्लोरीक ॲसीड घालप. एक कुलेर साकर घालप. पांच मिनटांनी जर गुलाबी रंग आयलो जाल्यार तातूंत भरसण आसा. |
| हींग | गोम, रेझीन, कोलोफोनी | १) शुध्द हींग उदकांत विरतकच उदक दुदाभाशेन धवें जाता.<br>२) शुध्द हिंगाक उजो लायतकच हळदुवी जोत पेट्टा. |
| काळीं मिरयां | पोपायेच्यो बियो | काळीं मिरयां उदकांत उडयल्यार पोपायेच्यो बियो आसल्यार त्यो उदकावर उफेतल्यो. पोपायेच्यो बियो वळखुपाक सोंप्यो |

| | | |
|---|---|---|
| | | आसतात. त्यो एके वटेन मोटव्यो आनी दुसरे वटेन मोठ्यो आसतात. मिरयां वाटकुळीं आसतात. |
| हळद | मैदो, हळदुवो रंग | एका कंवचेच्या पेल्यांत हळद आनी उदकाचें मिश्रण घालून तातूंत खर हायड्रोक्लोरीक ॲसीड घालप. हें मिश्रण तांबडें जाता. थोड्या वेळान हो रंग ना जावन मिश्रण पयलीभाशेन जालें जाल्यार तातूंत भरसण ना अशें समजुंचें. |
| मिरसांगे पिठो | चिऱ्यांचो पिठो (विटांचो), रंग लायिल्लो लाकडाचो पिठो, टाल्कम पावडर) | एक कुलेरभर मिरसांगे पिठ्याक उजो लायल्यार, जर गोबरूच चड जालो जाल्यार भरसण आसा. |
| जिरें | रंग लायिल्लें बारीक तण | जिरें हातार रगडचें, हाताचीं बोटां काळीं जालीं जाल्यार भरसण आसा. |
| रवो | लोखणाचे कण | रव्याचेर चुंबक(Magnet) भोंवडावंचें लोखणाचे कण चुंबकाक लागतले. |
| खोबरेल तेल | खणीचें तेल | एके धवेफुल्ल बाटलेंत हें भरसणेचें खोबरेल तेल घालून ती बाटली वताक धरल्यार तेलाचो रंग पाचवो दिसता आसत जाल्यार तें तेल भरसणेचें बरें तेल धवें दिसता. तशेंच ही बाटली फ्रिजांत दवरल्यार बरें तेल शेंकेता. खणीचें तेल पातळूच उरता. |
| केशर | पारिजातकाच्या फुलाच्यो दांडयो, मक्याचे केंस | १) शुध्द केशराचो रोखडोच सामकोच बारीक पिठो जायना. हाताचेर रगडल्यार केशराचो पिठो जाल्यार तातूंत भरसण आसा. २) मक्याच्या केंसाक रंग आनी साकर लायतात आनी शुध्द केशरांत भरशितात. असो केशर उदकांत घाल्यार विरता आनी उदकाक रंग येता. |
| दूद | उदक आनी स्टार्च पावडर | एक कुलेर दुदांत दोन-तीन थेंबे टिंक्चर ऑफ आयोडीन घालचें. निळो रंग आयल्यार भरसण आसा. |
| आयसक्रीम, रंग घाल्ले पदार्थ | मेटॅनियम यॅलो कलर (डांबरापसून तयार केल्लो रंग जाचेर बंदी आसा) | खर हायड्रोक्लोरीक ॲसीड ह्या पदार्थाचेर उडयलें आनी जांभळो रंग जालो जाल्यार तातूंत भरसण आसा. |
| च्याचो पालो | तोरीचीं, चण्याचीं रंग लायिल्लीं कल्लां वापरिल्लो च्याचो पिठो, लाकडाचो पिठो | फिल्टर पेपर वलो करून ताचेर च्याचो पालो उडोवंचो. रंग लायिल्ल्या पिठ्याचो रंग पेपराचेर येतलो. |
| साकर | कपडे धुवपाचो सोडा | डायल्यूट हायड्रोक्लॉरीक ॲसीड साकरेचेर घातल्यार ती फसफसता. |
| काफी | चिंचाऱ्याचो पिठो | एका कांचेच्या पेल्यांत उदक घेवन काफयेचो पिठो भरशिल्ली घालचो. शुध्द काफी उदकाचेर येतली, काफी सकयल उरतली. |

- डॉ. नारायण शणै धुमे

**भैरव - १ :** शैव परिवारांतलो एक देव. हाका शिवाचें उग्र रूप मानतात. भैरव हें उतर भीरू (भित्रो) ह्या संस्कृत उतरावयल्यान आयलां. पूण पांच मुखां आशिल्ल्या शिवाच्या मुखाकूय दक्षिणेकडले लोक भैरव म्हण्टात.

पुराणांच्या मतान भैरवान जल्मले बरोबर सगळ्या देवांचें दमन केलें. तेन्ना शिवान ताका वृक्ष जावपाचो शाप दिलो. तोच दमनक वा तातिरी हो वृक्ष. हाची पुजा केले बगर देवाचे पुजेचें फळ मेळचेंना असो शिवान उशाप दिलो. ब्रह्मदेवान शंकराचो अपमान केले उपरांत ताच्या रागांतल्यान काळ्या रंगाचो भैरव जल्माक आयलो आनी ताणें ब्रह्याचें

शिवनिंदा करपी पांचवें मस्तक कापलें आनी काशीक वचून पापमुक्ती मेळयली. आनी थंय ताणें ब्रह्याचें मस्तक दवरलें अशी आख्यायिका आसा. त्या जाग्यार कपाल मोचन तीर्थ ह्या कालिकापुराणाच्या मतान पार्वतीच्या शापान महाकाल हो गण भैरवाच्या रुपान जल्मलो.

**भैरवाचें वर्णन अशें** - गळयांत नराचे तकलेच्यो माळो, हातांत तकली घेतिल्लो, आंगाचेर हतयाचें कातडें, सोरपाचे अलंकार, बारा हात- तातूंत तरसाद, बाण, त्रिशूळ, दोरी हीं आयुधां, पांच मुखां महाराष्ट्रांत ताच्यो मुर्ती नागड्यो आनी ओरिसांतल्यो मुर्ती विश्वपद्माचेर उब्यो आसात. राजस्थानांत दरेका गांवांत शमी झाडासकयल ताच्यो मुर्ती आसतात.

पंजाबांत हाका मरणाक भिवोवपी देव मानतात. भैरव सुण्यावांगडा आसता आनी ताचेर स्वार जावन रावता म्हणून ताका श्वाश्व म्हण्टात. तो शैव देवळांचो द्वारपाल आनी शक्तिपिठांचो संरक्षक. दुस्मानाचो नाश करपाखातीर ताका आव्हान करतात. शेतकार लोक रोंपाच्या आनी कापणेच्या वेळार ताची पुजा करतात. ताका लागून भूतबादा, सर्पदंश आदींचो प्रभाव नश्ट जाता, अशें मानतात. ताचें वास्तव्य मसंडेंत आशिल्ल्या कारणान राजस्थानांतले भोपे ताची मसंडेंत प्रार्थना करून भीक मागपाक वतात. ताच्या देवळांत चलयांक वचूंक दिनात. ताचे कृपेन भुरगें जल्मल्यार राजस्थानांतले लोक भैरुदान, भैरुबख्श अशें ताका नांव दवरतात. ताका राग आयल्यार तो भुरग्यांच्यो मानो मुरगळायता अशी समजूत आसा.

शैव आगमनाप्रमाण वट्ट ६४ भैरवांचे आठ वर्ग आसून त्या वर्गांच्या आठ मुखेल्यांक 'अष्टभैरव' म्हण्टात. तंत्रग्रंथाप्रमाण ६४ भैरव हे ६४ योगिनींचे स्वामी आसतात. अष्टभैरवां मदल्या कालभैरवाक काशीचो कोतवाल, पापभक्षण, आमर्दक, काळराज अशीं नांवां आसात. उज्जैनालागच्या भैरवगडार ताचें देवूळ आसा. मार्गशीर्ष वद्य अश्टम ही काल भैरवाश्टम म्हण्टात. आश्विन, कार्तिक, भाद्रपद वद्य अश्टमीक कालाश्टमी हें व्रत करतात.

नेपाळांतले नेवार लोक वीरभद्राचें रूप आशिल्ल्या पाचली भैरवाची पुजा करतात. दक्षिण भारतांतल्या शैवदेवळाची राखणे देवता आशिल्ल्या क्षेत्रपालाक महाभैरव म्हण्टात. राजस्थानांत भूतपिशाच्यांक ताब्यांत दवरपी काळो आनी गोरो अशे दोन भैरव आसात. माघ म्हयन्यांत ताचो लोकोत्सव आसता. मुसलमान लोक यतिभैरवाची उपासना करतात. भैरव नांव धारण करपी भैरव पुराण, भैरव तम्य हे ग्रंथ मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**भैरव - २:** (जल्म : १४१०, मरण : १४६०) तेलुगू भाशेचो एक कवी आनी वैय्याकरण श्री रंगमहात्म्यमु, रत्नशास्त्रमु आनी कविराज गजाकुशल हे तीन ग्रंथ ताणें रचल्यात. श्रीरंग महात्म्यमु हें काव्य पांच आश्वासांमदीं विभागलां. तातूंत खूबशा तिर्थांचीं महात्म्यां वर्णिल्यांत. रत्नशास्त्रमु ग्रंथांत नवरत्नांचीं लक्षणां सांगल्यांत आनी तिसऱ्या ग्रंथांत पिंगलशास्त्रासंबंदीं सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**भैरव - ३:** हिंदुस्थानी संगितांतलो एक राग. हाचे आरोहावरोह सातय स्वरांनी जातात. हाचो वादी स्वर धैवत आसून संवादी स्वर ऋषभ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**भैरवी :** हिंदुस्थानी संगीत पद्दतींतलो एक म्हत्वाचो राग. ह्या थाटाचें मुखेल खाशेलपण म्हळयार तातूंतले सातूय स्वर कोमल आसतात. वादी स्वर धैवत आनी संवादी स्वर गंधार आसा.

हो राग गावपाचो वेळ दिसाचो दुसरो प्रहर. भैरवीउपरांत खंयच्याच हेर रागाक रंगत येना. तेखातीर गायनाची मैफल भैरवी गावन सोंपोवपाची चाल आसा. पं. भातखंडे हाचें रागवर्गीकरण पद्दतीप्रमाण ह्या थाटांत भैरवी, सिंधभैरवी, मालकंस, चंद्रकंस, बिलासखानी तोडी, मोरवी, भूपाल तोडी, उतरी गुणकली, बसंत मुखारी हांचो आस्पाव जाता.

भैरवी रागांत धृपद रचना खूब आसात. तेच भाशेन ठुमऱ्यो, सुगम रचनाय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**भोंवरो :** भोंवरो हें उतर भ्रमरक (गुंगुल्लो) ह्या संस्कृत उतरावयल्यान आयलां. पुर्विल्ल्या ग्रीक-रोमन काळांतूय भोंवऱ्याचो उल्लेख मेळटा. युरोपांत चवदाव्या शेंकड्याउपरांत भोंवऱ्याचो वापर केल्ले उल्लेख मेळटात. चीन, जपान ह्या देशांनीय पुर्विल्ल्या काळासावन भोंवरो लोकप्रिय आसा.

भोंवरे हे साग, शिसवी वा आंबो ह्या झाडांपसून तशेंच प्लास्टीक वा पत्र्याचेय करतात.

भोंवरे दोन तरांचे आसतात. एक सादो आनी दुसरो जंगी भोंवरो. साद्या भोवऱ्याचो आकार शंखाभाशेन आसता. हो भोंवरो वयर मोटो आनी सकयल बारीक आसता. भोंवऱ्याचे सकयले वटेनच्या तोंकाक लोखणाचो एक ल्हानसो खिळो मारिल्लो आसता. ताका 'आरी' म्हण्टात. आरीसावन वयर, दोरी गुठलायत भोंवरो एके विशिश्ट तरेन जमनीर उडयलो म्हण्टकच तो घुंवपाक लागता. भोंवऱ्याक गुठलायिल्ली दोरी सुटची न्हय म्हणून ताका खांची केल्ल्यो आसतात. आरीभाशेनूच भोंवऱ्याच्या माथ्यार एक बोंड केल्लें आसता, ताका मोगरी म्हण्टात.

मोगरीसावन खांचीमेरेन भोंवऱ्याक तरातरांचे रंग लायतात. ह्या साद्या भोंवऱ्यान तरातरांचे खेळ खेळटात. भोंवऱ्याच्या घुंवपाक 'नाद' म्हण्टात.

जंगी भोंवऱ्याक मदीं दुदयाभाशेन ल्हान गोल आसता. गोलाचेर दांडी आनी दांडयेर कडें आसता. गोला सकयल ल्हान निमुळटो भाग



भोंवऱ्यांचे प्रकार

आसता. होच भाग जमनीर घुंवता. दांडयेर गुठलायिल्ली दोरी सुटची न्हय म्हणून दांडयेक खांची केल्ल्यो आसतात. ह्या भोंवऱ्याचो मदलो भाग वाटकुळो पोकळ आसता. ताका लागून भोंवरो घुंवतना भितरल्यान आवाज येता. भोंवरो जितलो पोकळ तितलो आवाज व्हड येता. जंगी भोंवऱ्यांतूय खूब प्रकार आसतात.

आर, भोंवऱ्याचो सकयलो भाग आनी माथ्यावयलो भाग हांचो समतोल सादल्यार भोंवरो संथ गतीन आनी चड वेळ घुंवूंक शकता.

भोंवरो उरफाटो म्हळयार दांडये वटेन घुंवडायलो जाल्यार ताका 'गौळण' म्हण्टात. ह्याच प्रकारांत तो घुंवतना ताची गती उणी जावन तो सरकटूंक लागलो जाल्यार ताका 'सारवणें' म्हण्टात.

भोंवरो आरीचेर घुंवनासतना आडवो जावन निमुळट्या भागावयल्यान घुंवत गेल्यार ताका 'कत्तर खावप' आनी तो उरफाटो मोगरीवयल्यान घुंवपाक लागल्यार ताका 'ढफणा' अशें म्हण्टात.

पुर्विल्ल्या मराठी वाङ्मयांत भोंवऱ्याच्या खेळाचेर खूब रुपकां आसात. तातूंतलेंच एकनाथाचें एक रूपक अशें -

खेळे भोंवरा गे बाई भोंवरा । राधिकेचा नवरा ।।धृ।।

माझ्या भोंवऱ्याची अरी । सप्तपाताळे त्यावरी ।

फिरे गरगरा ।।

भोंवरा बनला निर्गुणीं । त्यावर चंद्र सूर्य दोनी ।

जाळी शंकर गवरा ।।

एका जनार्दनी खेळिया । भोंवरा खेळून पाहे चेलिया ।

नाद देतो हरिहरा ।।

- कों. वि. सं. मं.

**भोई - १ :** एक जात. महाराष्ट्र, गुजरात, कारवार, आंध्र प्रदेश ह्या राज्यांनी भोई लोकांची वसती आसा. मेणे, पालखेक खांद लावप हो ह्या लोकांचो वेवसाय आशिल्लो. ताका लागून हो वेवसाय करपी हेर जातींतल्या लोकांक लेगीत 'भोई' हें नांव पडलें. कांय म्हार आनी कहार लोक आपणाक भोई समजतात. भोई लोक नुस्तेंमारीचोय वेवसाय केल्ल्यान तांकां कांय खेपे कोळी अशेंय म्हण्टात. जातिविवेक ह्या ग्रंथांत भोयांक 'पौष्टिक' अशेंय म्हळां. ब्राह्मण बापूय आनी पराशर आवय हांची ती संतत आशिल्ल्याचें ह्या ग्रंथांत म्हळां.

प्रदेशाप्रमाण भोयांचे भेद अशे आसात- १) मराठा, २) खानदेशी, ३) कर्नाटकांतले, ४) कानडांतले आनी ५) गुजराती.

**मराठा भोई :** हे लोक महाराष्ट्रांत रावतात. पुण्यांतल्या भोई लोकांमदीं खुद्द, वराधी आनी कडू अशे तीन भेद आसात. ठाणें जिल्ह्यांतल्या भोयांचे खोर आनी गोडे अशे भेद आसात. मराठा भोई लोक मराठी भास उलयतात. हे लोक महादेव, विठोबा आनी मारुती ह्या देवांक भजतात. जेजुरीचो खंडोबा, तुळजापूरची भवानी, बहिरोबा आनी म्हसोबा हीं तांचीं कुलदैवतां आसात. कानफाटे गोसावी हे तांचे धर्मीक गुरू. मंत्रतंत्र, जादूटोणो आनी भुतांखेतांचेर तांचो विस्वास आसा. भुतांखेतांची पिडा ना करपाक ते देवऋषींक आपयतात.

भोकरे, चव्हाण, घोलप, घुमे, कांबळे, जाधव, मुसळे, शिंदे हीं तांचीं आडनांवां. एकाच आडनांवांत लग्नां जायनात. चलयेक कोणूच पालक नासल्यार वा बापूय गरीब आसल्यार जातपंचायत वर्गणी एकठांय करून तिचें योग्य चल्या वांगडा लग्न करतात.

लग्नाच्या चार-पांच दीस पयलीं न्हवऱ्या-व्हंकलेक आपापल्या घरा हळद लायतात. व्हंकले वटेनचें तशेंच न्हवऱ्या वटेनचें एक एक दांपत्य, आपापलें देवक, देवळांत वचून मारुतीच्या फुड्यांत विडो दवरता आनी देवक धव्या वस्त्रान धांपून माथ्यार दवरून घरा हाडटात. उपरांत तें देवक लग्नमाटवाच्या पयल्या खांब्याक बांदतात.

सांजवेळा न्हवरो वाजत-गाजत व्हंकलेच्या गांवांत वचून मारुतीच्या देवळांत रावता. थंय व्हंकलेचो लग्न जावंक नाशिल्लो भाव घोड्यार बसून येता. ताचेर वाटेंत लोक कांदे मारतात. तो येवन न्हवऱ्याक नवे कपडे दिवन बाशींग बांदता आनी ताका घेवन घरा येता. मंगलाश्टकां, कन्यादान जाता. दुसऱ्या दिसा न्हवऱ्याची सगळी मंडळी शिधो घेवन व्हंकलेगेर वता आनी न्हवऱ्यालो बापूय व्हंकलेक नवीं वस्त्रां आनी वस्ती दिता.

भुरगें जल्मतकच पांचव्या दिसा दाराकडेन कोळशाच्यो सात ओळी मारतात. सांजवेळां पांच लग्न जाल्ल्या दादल्यांक जेवपाक आपयतात. नुस्तेंमारीचें जाळें बाळंतिणीचे बाज्जेभोंवतणीं पातळटात. ताका लागून भुतांखेतांपसून राखण मेळटा अशी ह्या लोकांची समजूत

आसा. धा दीस सुवेर पाळटात आनी बाराव्या दिसा बारसो करतात.

हे लोक प्रेतां लासतात. पूण ज्या लोकांक हो खर्च परवडना ते मेल्ल्या मनशाक बशिल्ले अवस्थेंत पुरतात. तिसऱ्या दिसा अस्थी व्हांवत्या उदकांत सोडटात. धाव्या दिसा अश्मा उदकांत बुडयतात आनी पींड दितात. तेराव्या दिसा सोयऱ्या-धायऱ्यांक जेवण घालतात.

पुर्विल्ल्या काळांत हे लोक मेणे आनी पालख्यो व्हरपाचें काम करताले. हालीं ते नुस्तेंमारी, दुकानदारी असलीं कामां करतात.

**खानदेशी भोई** : ह्या भोयांचे महर्यर्ल आनी तरक्षी अशे दोन भेद आसात. हे लोक 'अहिराणी' भास उलयतात. ते श्रावणी आनी चैत्र पुनवेक, दसऱ्याक आनी मंगलकार्याच्या वेळार मोरसाई, चावडमाता, मनसाई, रेणुका, एकवीरा ह्या तांच्या कुलदैवतांची पुजा करतात. गोसावी हे तांचे धर्मगुरू. हे लोक मडीं लासतात वा पुरतात. लग्न जावंक नाशिल्ल्या मनशांक पुरतात. श्राध्द आनी महालय करतात.

**कर्नाटकांतले भोई** : बेळगांवांत हांचे कोळी, कार, मसंदे आनी परतगी अशे चार भेद आसात. मसंदे हे नुस्तें धरतात पूण पालख्यो व्हरनात. 'परतगी' शिमीट तयार करतात. धारवाडांतले भोयांचे बेस्त, गंगी, सदर आनी कर्व अशे भेद आसात. बेस्त भोई हे म्हैसूरांतल्यान आयल्यात. ते लिंग घालतात. कर्नाटक भोई, चलयांचीं लग्नां ल्हान पिरायेर करतात. देज दिवपाचीय चाल आसा. लग्नांत ब्राह्मण पुरयतपण करता.

मडीं पुरतात आनी धा दीस सुतक पाळटात. गोसावी अंत्यक्रिया करता.

**कानडांतले भोई** : हे लोक घरांत कानडी उलयतात. तांकां कोंकणीय येता. ह्या लोकांक कुलदैवतां नात पूण ते ग्रामदेवतांक भजतात. मंत्रतंत्र, जादूटोणो हांचेर तांचो खूब विश्वास आसा.

ह्या लोकांक आडनांवां नात. कर्नाटक ब्राह्मण जल्माचें, कऱ्हाडे ब्राह्मण लग्नाचें आनी हविक ब्राह्मण मरणाचें पुरयतपण करता. उत्तर अर्काट जिल्ह्यांतल्या गोविंदराजपट्टणांतल्या मठांतलो तात्तिआचारी हो रामानुज ब्राह्मण तांचो धर्मगुरू.

**गुजराती भोई** : हे लोक आपूण लखनौचे राजपूत आशिल्ल्याचें सांगतात. ह्या लोकांमदीं बकोरिया, भडवा, गधेडिया, गुडिया, कार, धीमर वा मच्छी, माळी अशे भेद आसात.

हे लोक गुजराती भास उलयतात. दिवसो, गोकुळाश्टम आनी नवरात्र ह्यो तांच्यो मुखेल परबो. मोढ आनी औदीच्य ब्राह्मण तांचें पुरयतपण करतात.

गुजरातांतले कांय भोई मुसलमान आसात. तांकां 'झिंगा' भोई म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

## भोई - २ :

आसामांतली एक जमात. खासी आनी जैंतिया दोंगरांचे उत्तरेक आनी ईशान्येक आशिल्ल्या दोंगुल्ल्यांनी ह्या लोकांची वसती आसा.

दोंगुल्ल्यांच्या देंवत्यांचेर हे लोक कोंड्यांचीं घरां बांदतात. घरांत चडपाखातीर खांचो मारिल्लो एक खांबो लायतात.

भात हें तांचें मुखेल पीक. हे लोक तांदळांचो सोरो पियेतात.

हे लोक व्हड प्रमाणांत लाख तयार करतात. कपडो विणपांत तशेंच रंगोवपांत ते खुबूच कुशळ आसतात.

- कों. वि. सं. मं.

## भोज - १ :

पुर्विल्ल्या काळांतलो एक राजवंश. हे दक्षिण भारतांतल्या सात्वत लोकांचे राजा आशिल्ले अशें ऐतरीय ब्राह्मणांत म्हळां. उपरांत ते गंगा-यमुनेच्या देगांवयल्या प्रदेशांनी वचून रावले, अशें शतपथ ब्राह्मणांत म्हळां. महाभारतांत हांकां चंद्रवंशांतल्या सम्राट ययातीचो पूत, द्रुह्यू हाचे वंशज मानल्यात. ययातीन आपलो पूत द्रुह्यू हाचेकडेन ताचें तारूण्य मागलें. पूण पुतान न्हयकार दिलो तेन्ना ययातीन ताका शाप दिलो, तूं खंयच्याय दुर्गम प्रदेशाचो राजा जातलो आनी तुज्या कुळाक भोज हें नांव पडटलें. ते प्रमाण ताचे संततीक भोज हें नांव मेळ्ळें, असो उल्लेख महाभारताच्या आदिपर्वांत मेळटा.

जरासंधाच्या आक्रमणांक लागून उत्तरेकडले भोज राजा दक्षिणेकडेन रावपाक गेले. कौंडिण्यपूरचो राजा भीष्मक हो भोजांतलोच एक. रुक्मी हो ताचो पूत आनी रुक्मिणी ही धूव. कृष्णान जेन्ना रुक्मिणीक उबारून व्हेली तेन्ना रुक्मीन सोपूत घेतलो, कृष्णाक झुजांत हारयले बगर आपूण कौंडिण्यपूराक परत वचचोना. पूण ह्या झुजांत रुक्मी हारलो आनी प्रतिज्ञेप्रमाण तो राजधानींत गेलोना. जंय झूज जालें तेच सुवातेर ताणें भोजकट नांवाची नवी नगरी वसयली आनी विदर्भांतल्या भोजांची तीच उपरांत राजधानी जाली.

कृष्णाचो मामा कंस होय भोज आशिल्लो. ताच्या जाचाक लागून भोज लोकांनीच कृष्णाक ताचो वध करपाक सांगलें असोय उल्लेख मेळटा.

सात्वत आनी भोज हे यदुवंशाचे आशिल्ले अशें मत्स्य पुराणांत म्हळां. कांय पुराणांनी भोजांक हैहयांचो एक फांटो मानल्यात. कालिदासान रघुवंशांत विदर्भनृपतीक भोज म्हळां. भोजांचो एक फांटो गोंयांतूय राज्य करतालो असो उल्लेख मेळटा. इ. स. च्या ४थ्या शेंकड्यांतलो भोज राजा देवराज हाचो एक ताम्रपट शिरोड्यां मेळ्ळा. तशेंच, पयलो भोज पृथ्वीमल्लवर्मा हाचे दोन ताम्रपट बांदोड्यां मेळ्ळयात.

जैन आनी बौध्द वाङ्मयांतूय भोज कुळांचो उल्लेख आयला.

- कों. वि. सं. मं.

**भोज - २ :** एक पुर्विल्लें जनपद. पुराणांच्या उल्लेखांप्रमाण हें चंबळ आनी बनास ह्या न्हंयांच्या देगणांनी आसा. उदयपूरसावन ८० मैलांचेर आशिल्लें भिलवाडा हें नगर ह्या प्रदेशाच्या मदेगाक आशिल्लें अशें ब्रह्मांड आनी वायू ह्या पुराणांनी म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**भोजपुरी भास आनी साहित्य :** शाहाबाद जिल्ह्याचे वायव्येकडल्या भोजपूर ह्या परगण्याच्या नांवावयल्यान थंयचे भाशेक भोजपुरी हें नांव मेळ्ळां. ग्रीअर्सन हाणें भारतीय आर्य भाशांचें बाह्य, मध्य आनी आंतर अशें वर्गीकरण केलां. तातूंतल्या बाह्य फांट्यांतल्या उदेंतेकडल्या बिहारी ह्या भाशा चोंब्यांतली भोजपुरी ही सगळ्यांत व्हड भास. गीअर्सनच्या अदमासाप्रमाण, पळोवणेच्या वेळार ही भास सुमार १,२९,५००चौ. किमी. आवाठा भितर लागींलागीं दोन कोटी लोक ही भास उलयताले. तशेंच, ६२ लाख लोक मगही भास आनी एक कोटी लोक मैथिली भास उलयताले. भुगोलीक नदरेन मगही आनी मैथिली ह्यो उदेंतेकडल्यो आनी भोजपुरी ही अस्तंतेकडली. उदेंतेकडल्यो भासो, बंगाली भाशेक चड लागींच्यो, तशेंच भोजपुरी ही भास अवधी भाशेक लागीं आसा.

आदर्श भोजपुरी, अस्तंती भोजपुरी आनी नागपुरिया ह्यो भोजपुरी भाशेच्यो तीन मुखेल बोली. तशोच मधेसी आनी थारू ह्यो दोन उपबोली. आदर्श भोजपुरी शाहाबाद, बालिया, गाझीपूरचो उदेंत वाठार आनी गोग्रागंडकच्या दोआबांत उलयतात. अस्तंती भोजपुरी ही अस्ंततेकडल्या जिल्ह्यांत आनी नागपुरिया ही छोटा नागपूरांत उलयतात. अस्तंती भोजपुरीक 'पूर्बी' अशेंय नांव आसा.

**व्याकरण :**

**नाम :** भोजपुरी नाम पुल्लिंगी वा स्त्रिलिंगी आनी एकवचनी वा अनेकवचनी आसता.

**सर्वनाम:** सर्वनामां अशीं आसतात.

| | **प्रथम पुरूश** | **द्वितीय पुरूश** | **तृतीय पुरूश** |
|---|---|---|---|
| एकवचन | में | तुं, ते | ऊ, ओ |
| भोववचन | इम् | तुंलोग, तोहनिक | उलोग |

**विशेशण :** भोजपुरींतलीं विशेशणां चडशीं लिंगांप्रमाण बदलतात. व्यंजनांत विशेशणांक स्त्रीलिंगदर्शक 'ई' हो प्रत्यय लागता, तशेंच पुल्लिंगी आकारांत विशेशणांतल्या 'आ' चे सुवातेर स्त्रीलिंगांत 'ई' येता. पूण ह्या दोनूय नेमांक कांय आडवाद आसात. सर्वनामासावन तयार जाल्ले गूण, पद्दत आनी परिणामवाचक विशेशणांय आसात. देखीकः अइसनना 'असो, असलो,' ओइसन 'तसो, तसलो', कइसन 'कसो, कसलो.' नामाच्या सामान्य नेमाप्रमाण विशेशणांचींय स्त्रीलिंगी रुपां जातात.

**क्रियापद :** धातूक विंगड विंगड प्रत्यय लावन क्रियापदाचीं रुपां तयार जातात. मुखेल क्रियापदाचीं रुपां सादे पद्दतीन तयार जातात. वर्तमानकाळ दोन प्रकारचो आसता. एक सादारण धातूसावन जाता आनी दुसरो ल प्रत्यय लावन जाता. प्रथम पुरुशाचीं सादारण वर्तमानकालीन रुपां अशीं आसतात. देखे-देखसि, देखसु वा देखस (एकवचन) देखन वा देखनी (भोववचन) अशीं जातात. भूतकाळाखातीर ल प्रत्यय लायतात. देखीक-देखले-देखलस वा देखलासी- ताणें पळयलें. देखलन वा देखलनि- तांणी पळयलें. भविश्य काळसूचक 'ब' प्रत्यय उत्तम आनी मध्यम पुरुशांखातीर आनी 'ह' प्रत्यय प्रथम पुरुशांखातीर लागता. भूतकाळांतलीं क्रियापदां कांय खेपे अनियमितूय जातात देखीकः

करल (करप) -------- करल वा
कइल

मर (मरप) --------- मरल वा मूअल

जाईल (वचप) --------- गइल

देल (दिवप) --------- दिहल, देल

होऊल (जावप) -------- भइल

भोजपुरींतलीं संख्यावाचक रुपां अशीं आसात. १ एक, २ दुइ, ३ तीनि, ४ चारि, ५ पांच, ६ छव, ७ सात, ८ आठ, ९ नव, १० दस, २० बीस, ३० तीस, ४० चालिस, ५० पचास, ६० साठि, ७० सत्तरि, ८० असी, ९० नबे, १०० सई १००० हजार. भोजपुरी लोकांमदीं सादारणपणान वीसमेरेन मेजपाची चाल आसा. विसा उपरांतचे आंकडे ते विसांच्या मापान मेजतात. देखीक- ६५ आंकडो ते 'तीनि बिसा पांच'. विसा परस उणे आंकडे लेगीत ते चडशे तशेच मेजतात. देखीक- १८ हो आंकडो मेजतना ते 'दुइ कम बीस' अशे मेजतात. विशेशणदर्शक संख्येउपरांत 'गो' हें उतर घालतात. देखीक- 'दस गो रुपया' म्हळ्यार धा रुपया, 'चारि गो लइका' म्हळ्यार चार भुरगे.

भोजपुरी भास ही हिंदीची बोली-भास आशिल्ल्यान भोजपुरी भाशेंत लेखी साहित्यापरस मौखिक साहित्य चड प्रमाणांत आसा. गद्य तशेंच पद्य ह्या दोनूय प्रकारांनी भोजपुरी मौखिक साहित्य आसा. उपलब्ध भोजपुरी साहित्य तीन वर्गांनी मांडूं येता. संतसाहित्य, लोकसाहित्य आनी आर्विल्लें साहित्य.

संतसाहित्यांत सगळ्यांत पयलीं संत कबिराच्यो कांय कविता उपलब्ध आसात. जायसीचीय कविता भोजपुरींत मेळटा. ताची भास अवधी आसली तरी तिचेर भोजपुरी भाशेचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. तुलसीदासाच्या रामायणांत भोजपुरीचे कांय प्रयोग मेळटात. कबिराचो शिश्य धर्मदास, शिवनारायण, धरनीदास, लक्ष्मीसखी, बुलाकीदास

ह्या कवींनी भोजपुरींत खूबशी काव्य-रचणूक केल्या. कबीरपुत्र कमाल हाची काव्य-रचणूक भोजपुरींत आसा.

भोजपुरी लोकसाहित्याचे लोकगितां, लोकगाथा, लोककथा आनी प्रकीर्ण अशे चार वांटे करूं येतात. लोकगितांचे सामान्यपणान पांच विभाग जातात.

१) संस्कारगितां २) ऋतुगितां ३) जातिगितां ४) व्रताचीं गितां ५) क्रियागितां.

संस्कारगितां हीं पूत जल्मतकच, मुंडण केल्यार, उपनयन संस्कारा वेळार म्हणपाचीं पदां, लग्ना वेळार म्हणपाचींय पदां आसात.

पूत जल्मतकच गायतात त्या पदांक सोहर, सोहिलो वा मंगल म्हण्टात. ऋतुगितांनी कजली, होरी, चैता, बारहमासा हीं पदां येतात. जातिगितांनी कांय जातिविशिश्ट पदां येतात. अहीर लोक चड करून बिरहागितां म्हण्टात. ते पावसाच्या दिसांनी तशेंच लग्नसुवाळ्या वेळार हीं पदां गायतात. अहिरांभाशेन दोसाध लोक पचरा पदां गायतात. चामार लोक उफरा आनी पिपीहरी पदां गायतात. कहार, कहरुबा, तेली कुल्हू आनी मडवळ हुडुक पदां गायतात.

व्रतांचीं गितां हीं व्रतांच्या वेळार गायतात. देखीक- भाद्रपदांतलें बहुला व्रत, कार्तिकांतलें षष्ठीमातेचें व्रत, शीतला व्रत, नागपंचम व्रत, पिडिया व्रत, सूर्यषष्ठी व्रत आनी हेर.

क्रियागितां म्हळ्यार शेतांतलीं कामां करतना म्हणपाचीं पदां. दळटना गायतात त्या पदांक जँतसार गीत, लावणीच्या पदांक रोपनी गीत म्हण्टात.

**लोकगाथा :** भोजपुरींत लोकगाथा व्हड प्रमाणांत आसात. जी कथा खूब व्हड आसता, त्या कथानकाक लोकगाथा म्हण्टात. लोरिकायत, विजयमल, नथकवा बंजारा, भरथरी चरित्र, गोपीचंद, सोरठी, आल्हा, भगवती देवी, लचिया, चनैनी, राजा दौलत, कुसुमादेवी ह्यो कांय नामनेच्यो लोकगाथा.

**लोककथा :** 'तिरिया चरि-तर' सारकी उपदेशकथा, 'अनंत चतुर्दशी कथा,' 'त्रिलोकीनायकी कथा,' 'करवा-कथा', 'जिउतिया कथा', सारकिल्यो व्रतकथा, कौटुंबिक जिणेंत घडपी मोगाकथा, 'ढेला और पती' सारक्यो मनोरंजन कथा, 'राजाके न्याय की कथा', 'जनता कष्ट कथा', 'बहुविवाह कथा', 'कन्याविक्रय कथा', सारकिल्यो लोकांच्यो सूख-दुख्खाच्यो कथा तशेंच 'शिव दधीचि', 'सत्य-हरिश्चंद्र', 'नल-दमयंती', 'सारंगा सदावृत' हे सारक्यो पौराणिक कथा भोजपुरी साहित्यांत व्हड प्रमाणांत आसात. भोजपुरी बोलीभास आशिल्ल्यान वेव्हारांत पावला पावलाक वापरपी म्हणी आनी सुभाशितां हांची भोजपुरींत व्हड खाणूच आसा.

हालीं लेखी भोजपुरी साहित्य व्हड प्रमाणांत उजवाडा येता. अवधविहारी सुमन हाचो 'जेहलक सनदि' हो १० कथांचो झेलो उजवाडा आयला. 'भोजपुरी' ह्या नेमाळ्यांतल्या न कथा उजवाडा येतात. राधिकादेवी श्रीवास्तव हीय एक नामनेची भोजपुरी कथालेखिका. भिखारी ठाकूर हाचें 'बिदेसिया' हें लोकनाट्य भोजपुरींत खूब प्रसिद्द आसा. हिंदींतलो नामनेचो लेखक राहुल सांकृत्यायन हाचीं कांय नाटकां भोजपुरी बोलींत उजवाडा आयल्यांत तीं अशीं- १८८४ वर्सा पं. रविदत्त शुक्ल हाचें 'देवाक्षर चरित' नांवाचें लोकनाट्य उजवाडा आयिल्लें. खडीबोलींतल्या ह्या नाटकाचे २-३ अंक भोजपुरींत आसात.

नई की दुनिया, दुनमुन नेता, मेहरारून के दुरदसा, जोंक इ हमार लडाई, देश-रंच्छक, जपनिया, राछछ, जरमनवा के हार निहचय. गोरखनाथ चौबे हाचें उल्टा जमाना, पं. रामविचार पांडेय हाचें कुंवरसिंह, रामेश्वर सिंह काश्यप हाचें लोहासिंह हीं नाटकां प्रसिध्द आसात. वीरेन्द्र सिंह हाणें कांय एकांकी बरयल्यात.

आर्विल्ल्या साहित्यांत आयज लेगीत गद्यापरस पद्याचोच वांटो चड आसा. सद्या जायते कवी भोजपुरी भाशेंत काव्य रचतात. तातूंत बिसराम हाची सुवात म्हत्वाची आसून ताणें खूबशीं बिरहा पदां बरयल्यांत. बाबू रामकृष्ण वर्मा हाणें 'विरहानायिकाभेद' नांवाचें काव्य बरयलां. दूधनाथ उपाध्याय हाचे भरती के गीत, भूकंपपचीसी आनी गोविलापछंदावली ह्या नांवांचे तीन काव्यांझेले प्रसिध्द आसात. रघुवीर नारायण हाणें बटोहिया नांवाचीं पदां रचलीं. रामविचार पांडेय हाचो 'बिनिया-बिछिया' हो काव्यांझेलो प्रसिध्द आसा. श्यामविहारी तिवारी हाचे 'देहाती दुलकी' ह्या नांवान तीन काव्यांझेले उजवाडा आयल्यात. तशेंच चंचरीक हाचो 'ग्राम-गीतांजलि', रणधीरलाल श्रीवास्तव हाचो 'बरबै शतक', हृदयानंद तिवारी हाचो 'क्रांतिदूत', कृष्णदेवप्रसाद गौड वा 'बेढब बनारसी' हाणें भोजपुरींत जायत्यो व्यंगात्मक कविता बरयल्यात. शिवदत्त श्रीवास्तव वा 'सुमित्र' हाचो 'गावगिरान', मोहनलाल गुप्त हाचे जायते काव्यांझेले प्रसिद्द आसात. रमाकांत द्विवेदी, रामनाथ पाठक, प्रभुनाथ मिश्र, रामवचनलाल श्रीवास्तव, रामसिंह उदय, अनिरुध्द, दिवाकर लाल 'अंकुर', भगवानसिंह, चंद्रशेखर मिश्र, चंद्रदेवसिंह 'हृदय', भुवनेश्वर प्रसाद, कमलाप्रसाद मिश्र हे कांय नामनेचे कवी.

- कों. वि. सं. मं.

**भोबे, गोपाळकृष्ण :** (जल्म : ६ ऑगस्ट १९२०, नेरूल, बारदेस; मरण : १३ फेब्रुवारी १९६८, मडगांव).

गोंयचो एक कला समिक्षक आनी लेखक. ताच्या गांवांत शिक्षणाची बरी सुविधा नाशिल्ल्यान ताणें घरचे घराच बरोवपा-वाचपापुरतें मराठीचें गिन्यान मेळयलें. फुडें सरकारी शाळेंत वचून ताणें पुर्तुगेज सेगुंद ग्रावा मेरेन मुळावें शिक्षण मेळयलें. तेचपरी लिसेवाचेंय दोन वर्सां शिक्षण खाजगी रितीन घेतलें. ताका मुळांतूच संगीत, नाट्य, चित्र, शिल्प आदी

कलांची आवड आशिल्ली. १९४३ त तो गोंय सोडून मुंबय गेलो. थंय ताची मो. ग. रांगणेकर हाचे कडेन वळख जाली. ताचे नाट्यनिकेतन हे संस्थेंत तो काम करूंक लागलो. थंय व्हड व्हड कलाकारांकडेन ताच्यो वळखी जाल्यो.

खर स्मरणशक्ती आनी शिकपाची तळमळ हांकां लागून ज्यो ज्यो मैफली ताणें आयकल्यो त्यो त्यो ताणें मनांत घट करून दवरल्यो. देखुनूच १९५०त तो एक रसिक आनी जाणकार म्हणून ताची नामना जाली. फुडें संगीत हो ताचो छंद जालो आनी तो चित्रकलेचो वेवसाय करूंक लागलो. गोपाल नेवाटिया हाच्या हिंदी, मराठी आनी गुजराती रिडर डायजेस्ट चित्रविभागाचो तो मुखेली जालो. १९६२-६३ त महाराष्ट्र टायम्स ह्या दिसाळयांतल्यान तो मुंबयच्या संगीत मैफलींचीं परिक्षणां बरोवंक लागलो. संगीत समिक्षणाक ताणें एका साहित्य प्रकाराचें रूप दिलें. 'वीणा', 'वसुधा', 'दिपावली' आदी नेमाळयांतल्यान तो लिखाण करतालो.

१९६१ त 'चतुरंग रेखा' हें कांय व्हड कलाकारांची वळख करून दिवपी ताचें पयलें पुस्तक उजवाडा आयलें. ह्या पुस्तकाक गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचो पुरस्कार मेळ्ळा. ताचे उपरांत ताणें इकरा पुस्तकां बरयलीं. तातूंतलीं आलाप, नाद, मासे आणि मी, भारताचे भाग्य विधाते, शापित गंधर्व, सात स्वरश्री, असा आहे माझा गोमंतक, पक्षी जीवन (अणकार) आनी धन्य ते गायनी कळा (नाटक) हीं पुस्तकां ताचें मुस्तींत आयलीं. जाल्यार कलात्मक गोमंतक आनी संगीत तानसेन हीं ताच्या मरणाउपरांत उजवाडाक आयलीं.

ताचीं पुस्तकां फकत संगिताचेरूच ना. तातूंत तरेकवारपण आनी लालित्य आसा. ताचे बरपावळींतल्यान गोंयचे भुंयेविशीं आशिल्लो ताचो उपाट मोग स्पश्ट जाणवता. संगीत सारकेल्या विशयाचेर समिक्षात्मक लेखन करपाचें कसब भोबे हाणें साध्य केलें.

केसरबाय केरकार, मोगुबाय कुर्डीकार, खाप्रुमाम पर्वतकार, बडे गुलाम अली, अमीर खाँ,डागरभाव, रवीशंकर, विलायत खाँ, वी. जी. जोग, कुमार गंधर्व, किशोरी आमोणकर आनी हेर नामनेच्या कलाकारांचो ताका सांगात मेळ्ळो. ताका लागून ताची संगीत गिन्यानाविशींची जाण वाडीक लागली आनी संगितांतलो एक रसिक, जाणकार, आनी समिक्षक म्हणून ताणें नामना मेळयली.

- कों. वि. सं. मं.

**भोवरी :** कातीचो एक रोग. कांय वेळार पांयाचो तळवो, बोटां, वा बोटांमदीं दाब, घर्शण, आपटप वा चवन हांकां लागून कातीचो भाग घट आनी थोडोसो संवेदनाहीन जाता. केन्ना केन्ना सारक्या बसनाशिल्ल्या जोत्याक लागून वा पांयांत कांटो मोडल्यार वा फातर तोपल्यारूय कात अशी घट्ट जाता. हे मुळावे स्थितीक 'खिणां' म्हण्टात. हीं खिणां फुडें आनिकूय घट्ट जावन थंय सुळक्या आकाराची एक गांठ तयार जाता. हे गांठीचें पोंदचें तोंक कातीच्या भितरल्या भागांत रिगता. हे गांठीक 'भोवरी' वा 'किल्ली' म्हण्टात. टणक जाल्ले कातीची गांठ जेन्ना फातराक वा कठीण जाग्यार आपटता तेन्ना सुळक्याच्या भितरल्या तोंकापसून वेदना निर्माण जाता. कांय काळा उपरांत थंय चवन जावपाची शक्यताय आसता. तशेंच तातूंत सूक्ष्मजंतू वचून कातीचो रोग जावपाचोय संभव आसता. बाजारांत कॉर्न-क्युअर वा हेर नांवांची भोवरेर बसोवपाखातीर वखदाची चिकटपट्टी मेळटा. हातूंत १० ते ४०% सॅलिसॅलिक आम्लमिश्रीत मलम आसता. ह्या वखदाक लागून पुराय भोवरी मोव जाता आनी मुळापसून भायर येता.

**घरगुती उपायः** पावल पंदरा मिनटां हून उदकांत बुडोवन दवरचें उपरांत ते पुराय तरेन सुकोवन केलोडियन हातूंत १०% सॅलिसॅलिक आम्ल भोवरेचेर बांदून वयर पट्टी बांदची पडटा. मोव पडटकच पुराय भोवरी भायर येना जाल्यार कापून काडची पडटा.

- डॉ. दयानंद मं. राव

**पूरक नोंद :** कात.

**भोसले, केशवराव :** (जल्म : ९ ऑगस्ट १८९०, कोल्हापूर; मरण : ४ ऑगस्ट १९२१, पुणें.)

मराठी रंगमाचयेवयलो एक नामनेचो संगीत गायक नट. ताच्या बापायचें नांव विठ्ठलराव आनी आवयचें नांव जनाबाई. केशवरावाक दोन बायलो, पयले बायलेपसून ताका दोन धुवो जाल्यो. केशवराव ल्हान आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयलें. घरचे गरीब परिस्थितीक लागून ताका शालेय शिक्षण घेवंक मेळ्ळेंना. पूण ल्हानपणांतूच ताका स्वदेश हितचिंतक हे नाटक मंडळींत काम करपाची संद मेळिल्ल्यान ताका नाट्यकलेची गोडी लागली. हेच मंडळींत ताका जनुभाऊ निमकर ह्या खांप्या नाट्यदिग्दर्शकाचें मार्गदर्शन मेळ्ळें. त्याच काळांत दत्तोपंत जांभेकरबुवा हाचेकडल्यान ताका शास्त्रीय शिक्षणाचीय तालीम मेळ्ळी.

नाटकांनी सुरवातेक ताका ल्हान ल्हान भुमिका मेळ्ळयो. पूण १९०२ वर्सा 'शारदा' नाटकांतली शारदेची भुमिका करपाची संद ताका मेळ्ळी आनी केशवरावाक खूब नामना मेळ्ळी. १९०७ वर्सा ताणें ही नाटक मंडळी सोडली आनी हुबळीक १ जानेवारी १९०८ दिसा स्वताचे मालकीची 'ललित कलादर्श संगीत नाटक मंडळीची स्थापणूक केली. सुरवातेक हे संस्थेन 'शारदा', 'सौभद्र' हीं पोरनीं नाटकां केलीं. पूण उपरांत केशवरावान, वीर वामनराव जोशी हाचेकडल्यान 'राक्षसी महत्वाकांक्षा' हें नाटक बरोवन घेतलें आनी १९१३ वर्सा तें रंगमाचयेर हाडलें. त्या काळांत हें नाटक खूब गाजलें. ह्या नाटकांतली मृणालिनीची

भुमिका केशवराव खुबूच बरे तरेन वठयतालो. ह्याच काळांत ताणें गायनाचार्य रामकृष्णबुवा वझे हाचेकडल्यान गायनाची दिक्षा घेवन गायन कलेंतूय प्राविण्य मेळयलें. सहजतायेन टिपेक पावपी आनी प्रभावी तान हें ताच्या गायनाचें खाशेलपण. कांय काळा उपरांत ताणें बायलांच्यो भुमिका सोडून दादल्यांच्यो भुमिका करपाक सुरवात केली. 'हाच मुलाचा बाप', 'संन्याशाचा संसार', 'शहाशिवाजी' ह्या नाटकांतल्यो ताणें केल्ल्यो नायकाच्यो भुमिका खुबूच गाजल्यो. 'मानापमान' नाटकांत केशवरावान केल्ले धैर्यधराचे भुमिकेवांगडा, ताचीं पदांय खूब गाजलीं. पिरायेच्या बत्तिसाव्या वर्सा विषमज्वरान दुयेंत पडून ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

## भोसले, गणपती मारुती : (जल्म : २१ ऑगस्ट १९२७, भुइंज-वाई, सातारा).

सुटकेझुजारी. तो 'पॅझंट आनी वर्कर्स पार्टी' चो वांगडी आशिल्लो. १९५७ त ताणें ८० सत्याग्रह्यांक घेवन काणकोण आनी पत्रादेवीक सत्याग्रह घडोवन हाडलो. १९६२-६७ ह्या काळांत तो भुईंज ग्रामपंचायतीचो वांगडी आशिल्लो जाल्यार १९८४ त तो हे पंचायतीचो सरपंच जालो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## भोसले राजवंश : महाराष्ट्रांत राज्य करपी एक क्षत्रीय राजवंश.

भोसले कुळाची पुर्विल्ल्या इतिहासाविशीं चडशी म्हायती मेळना. हो राजवंश राजस्थानांतल्या शिसोदिया वंशासावन निर्माण जाला अशें मानतात. अलाउद्दीन खिलजी हाणें १३०३ त चित्तोडगडाचेर जैत मेळयलें, तेन्ना थंयचो सिसोदिया घराण्यांतलो राजा लक्ष्मणसिंह हाची हत्या जाली. ताचो चलो अजयसिंह हाका सज्जनसिंह आनी क्षेमति नांवाचे दोन चले आशिल्ले.ह्या काळांत उत्तर हिंदुस्थानांत मुसलमानांचो शेक गाजतालो, हाका लागून सज्जनसिंह दक्षिणेक आयलो (बखरी). दक्षिणेक येवन ताणें हसन गंगू हाका राजकारभारांत आदार केल्लो म्हणून हसन गंगून ताका देवगिरी प्रांतांत जहागिरी दिल्ली. सज्जनसिंहाचो पूत राणा दिलीपसिंह हाणें विजयनगराकडेन जाल्ल्या झुजांत बहामनी सुलतानांक आदार केल्लो म्हणून ताकाय जहागिरी मेळिल्ली. दिलीपसिंहाचो नातू भैरोजी हाणें आपल्या भुजांच्या बळार मुधोळ आनी ताचे भोंवतणचे ८४ गांव आपल्या शेकातळा हाडिल्ले. ताका भोसाजी अशेंय म्हणून पाचारताले. हाचे वयल्यानूच भोसले हें कूळनांव मुखार चालींत उरलें.

शिवाजीचो पणजो बाबाजी हो भीम न्हंयेचे देगेर वशिल्ल्या पांडेपेड गांवाचो जहागिरदार आशिल्लो. ताचो पूत मालोजी हो पराक्रमी आशिल्ल्यान निजामशहान ताका आपल्या दरबारांत दवरून खूब गांव जहागिरी म्हणून दिल्ले. मालोजीक दोन पूत आशिल्ले. शहाजी (१६०२-१६६४) आनी शरीफजी. शहाजी हाणें सुरवेक निजामशायेंत आनी उपरांत आदिलशायेंत पराक्रम गाजोवन व्हड नामना मेळयल्ली. आदिलशहान ताची नेमणूक कर्नाटकांत केली. ताणें बेंगळूराक व्हड जहागिरी मेळयल्ली.

शहाजीक जिजाबाई, तुकाबाई आनी नरसाबाई अशो तीन बायलो आशिल्ल्यो. संभाजी आनी शिवाजी हे जिजाबाईचे दोन चले आनी व्यंकोजी हो तुकाईचा चलो. संभाजी आपल्या बापायक आदार करपाक कर्नाटकांत रावलो. कनकगिरीच्या झुजांत ताका मरण आयलें. व्यंकोजी शहाजीउपरांत तंजावराचे गादयेर बसलो.

शहाजीन शिवाजीक १६४१ त जिजाबाई वांगडा पुणें-सुपें ही आपली जहागिर सांबाळपाखातीर महाराष्ट्रांत धाडलो. शिवाजीची पिराय ह्या वेळार फकत १२ वर्सांची आशिल्ली म्हणून ताच्या आदाराक दादाजी कोंडदेव हाकाय धाडिल्लो. मावळ्यांतल्या मराठा तरणाट्यांची संघटना करून ताणें साबार किल्ले घेतले आनी आदिलशाहाच्या साबार सरदारांक हारोवन आपलें राज्य वाडयलें. मुखार आदिलशाहा आनी मोगल हांचेकडेन झुजून वा कबलाती करून ताणें आपल्या राज्याचो विस्तार वाडयलो. ताणें ६ जून १६७४ त आपलो राज्याभिशेक करून आपलें स्वतंत्र राज्य उबारलें. ताणें छत्रपतिपद धारण केल्लें. देखून ताका छत्रपति शिवाजी अशें म्हण्टात. शिवाजीन शिवराई आनी होन हीं नवीं नाणीं सुरू केलीं, अष्टप्रधान पद्दतीची प्रशासत पद्दत सुरू केली, नवें पंचांग काडलें, आनी राज्यवेव्हार कोश तयार केलो. शिवाजीक १६८०त मरण आयलें.

शिवाजीच्या मरणाउपरांत संभाजीन रायगडाचेर राज्याभिशेक करून घेवन, राजकारभाराचीं सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. सेगीत णव वर्सां मोगल बादशाह औरंगजेब, सिद्दी आनी पुर्तुगेज हांचेकडेन झूज दीत ताणें स्वराज्य तिगोवन दवरपाचे खूब यत्न केले. पूण दक्षिण कोंकणांत तो मोगल फौजेच्या हातांत सांपडलो. औरंगजेबान उपरांत हाल हाल करून ताका मारलो. मोगल फौजेन, संभाजीची राणी येसुबाई आनी तिचो चलो शाहू हांकां दिल्लींत बंदखणींत दवरलीं. हे घडणुके उपरांत संभाजीचो धाकलो भाव राजाराम आपल्या कुटुंबासयत कांय विस्वासू सैनिकांवांगडा जिंजीकडेन पळून गेलो. हांगा ताणें आपलो राज्याभिशेक करून घेतलो. थंय णव वर्सां मेरेन ताणें धांवपळीचे परिस्थितींत स्वराज्याची गादी राखली. संताजी घोरपडे, धनाजी जाधव, प्रल्हाद निराजी आनी हेरांनी मोगल फौजेआड गनिमी झूज उबारून प्रतापगड, सिंहगड, पुरंदर आनी हेर किल्ले परत घेतले. पूण औरंगजेबान राजारामाचेर हल्ले करपाचें चालूच दवरिल्लें. उपरांत राजाराम आपल्या वांगड्यांसयत महाराष्ट्रांत पळून आयलो. महाराष्ट्रांत परत आयले उपरांत राजारामान सातान्याक आपली राजधानी उबारली. हांगा आयले उपरांत रोखडोच तो दुयेंत पडलो आनी ताका मरण आयलें.

राजारामाच्या मरणा उपरांत राणी ताराबाईन आपल्या ल्हान पुताक, म्हळयार शिवाजीक, गादयेर बसयलो आनी ती सगळ्या कारभाराचेर देखरेख करूंक लागली. औरंगजेबान मराठ्यांवयले हल्ले चालूच दवरिल्ले आनी मराठेय ताका नेटान जाप दिताले. तांचेमदीं एकामेकाचे किल्ले परत घेवपाची एक सर्तच लागिल्ली. औरंगजेबान मराठ्यांचो नाश करपाचे खूब यत्न केले. पूण अखेर मेरेन ताका यश मेळ्ळेंना. निमाणें १७०७ त ताका अहमदनगराक मरण आयलें. औरंगजेबाउपरांत मोगल सत्तेक देंवती कळा लागली. राणी येसुबाई आनी शाहू मोगलांचे बंदखणींत आशिल्लीं. औरंगजेबाच्या मरणा वेळार ताचो एक चलो आजमशाहा ताचे म्हऱ्यांत आशिल्लो. तो अहमदनगराकूच तख्तनशीन जालो. पूण आपलो व्हडलो भाव काबूला सावन दिल्लीक येता हें कळटकच आसदखान आनी झुल्फिकारखान हांचेसयत तो दिल्लीक वचपाक लागलो. तो वाटेर आसतना झुल्फिकारखान हाच्या सल्ल्यावयल्यान ताणें शाहूक सोडून दिलो. पूण ताणें शाहूकडच्यान मोगलांची ताबेदारी मानून घेवपाचें वचन घेतलें आनी ताका दक्षिणेच्या स सुभ्यांनी चौथाई-सरदेशमुखी वसूल करपाचे हक्क दिले.

शाहू साताऱ्याक येता आसतना आदले शूर सरदार आनी मुत्सद्दी शाहूक मेळ्ळे. तांच्या फाटबळान शाहू साताऱ्याक येता आसतना खेडाक ताराबाईन ताका विरोध केलो. आपलो घोव राजाराम आनी आपूण जावन झुजून तिगोवन दवरिल्लें स्वराज्य आपल्याच चल्याक मेळूंक जाय अशें तिचें मत आशिल्लें. शाहूय फाटीं पावल घेवंक तयार नाशिल्लो. उपरांत दोगांयमदीं लडाय जावन शाहूक जैत मेळ्ळें. शाहू साताऱ्याक येवन ताणें १७०८ त आपलो राज्याभिशेक करून घेतलो. ह्या वेळार ताराबाईन पन्हाळयाच्या किल्ल्यांत आलाशिरो घेतिल्लो. १७१२ त तिचो चलो शिवाजीक मरण आयले उपरांत, राजारामाचे दुसरे बायलेन (राजसबाई) हिणें आपल्या पुताक म्हळयार संभाजीक कोल्हापूरचे गादयेर बसयलो. ताराबाईची सत्ता सोंपलेउपरांत शाहूच्यो सातारा आनी कोल्हापूर अशो दोन स्वतंत्र गादयो निर्माण जाल्यो.

**सातारा :** शाहून साताऱ्याचेर जैत मेळयलेउपरांत थंय ताणें १२ जानेवारी १७०८ त आपलो राज्याभिशेक करून घेतलो. तो १७ वर्सां मोगलांचे बंदखणींत आशिल्ल्यान ताका राज्यकारभाराचो अणभव नाशिल्लो. तो पराक्रमीय नाशिल्लो. पूण मनीस स्वभावाची पारख मात तो ज्युस्त करतालो. आपल्यो मर्यादा तो जाणून आशिल्ल्यान साबार हुशार, गुणी आनी पराक्रमी मनीस ताणें म्हऱ्यांत दवरिल्ले. बाळाजी विश्वनाथ आनी ताचो पूत पयलो बाजीराव हे दोन पयले पेशवे, चिमाजी आप्पा, उदीजी चव्हाण, कान्होजी आंग्रे, रघूजी भोसले, दाभाडे, पिलाजी जाधव, राणोजी शिंदे, मल्हारराव होळकर आनी हेर पराक्रमी मराठ्या सरदारांनी शाहूच्या अधिपत्त्याखाला राज्याचो विस्तार वाडयलो. पेशव्यांच्या यत्नांक लागून पातशायेकडच्यान ताका स्वराज्य, चौथाई आनी सरदेशमुखीचे हक्क मेळ्ळे. सुमार चाळीस वर्सां ताणें साताऱ्याचेर राज्य केलें.

शाहू पराक्रमी नासलो तरी शाणेपणान ताणें पेशवे, प्रतिनिधी आनी हेर सरदारांची वेगळया वेगळया कामांखातीर नेमणूक करून तांकां समान संद दिल्ली. पूण पेशव्यांनी हेरांक आपल्या शेकातळा दवरून निमाणें तेच राज्याचे सुत्रधार जाले. १७४९त शाहूक मरण आयलें. ताका चलो नाशिल्ल्यान राजारामाचो चलो राज्याचेर आयलो. पूण खरी सत्ता पेशव्यांच्या हातांत आशिल्ल्यान राजारामासावन छत्रपतीपदाचें म्हत्व उणें जायत गेलें. शाहू उपरांत छत्रपतीचें राज्य नांवापुरतें आशिल्लें. पूण खरी सत्ता पुण्याच्या पेशव्यांच्या हातांत आशिल्ली.

पेशवाई सोंपले उपरांत ब्रिटिशांनी साताऱ्याचो प्रतापसिंह भोसले हाका गादयेर बसयलो. सुर्वेक तो ग्रँट डफाचे शिकवणेवरवीं कारभार चलोवंक लागलो. कांय तेंपाउपरांत ताका आपूण ब्रिटिशांचो मांडलीक नासून स्वतंत्र राज्याधिकारी आसा हाची जाणविकाय जाली आनी तो ब्रिटिशांआड वागपाक लागलो. ब्रिटिशांक ही गजाल मानवलिना. तांणी प्रतापसिंहाक बंदखणींत घालून ताचो भाव शहाजी हाका गादयेर बसयलो. पूण वर्साभितर ताका मरण आयलें. शहाजी फाटल्यान राज्य चलोवपाक वारस नाशिल्ल्यान ब्रिटिशांनी १८४८ त सातारा संस्थान खालसा केलें.

**कोल्हापूरचें राज्य :** ताराबाईचो चलो शिवाजी हाका १७१२ त मरण आयलें. राजारामाची दुसरी बायल राजसबाई हिणें आपलो पूत संभाजी हाका कोल्हापूरचे गादयेर बसयलो. १७१४ ते १७६० मेरेन ताणें राज्य चलयलें. १७६० त ताका मरण आयलें. ताका चलो नाशिल्ल्यान ताची राणी जिजाबाई हिणें भोसले घराण्यांतल्या एका ल्हान भुरग्याक पोसको घेवन ताका कोल्हापूरचे गादयेर बसयलो. ताणें तिसरो शिवाजी ह्या नांवान १८१२ मेरेन राज्य केलें. १८१२त ब्रिटीश आनी कोल्हापूरकार हांचेमदीं कबलात जावन भोसले ब्रिटिशांचे मांडलीक जाले. मालवण आनी सिंधुदुर्ग ब्रिटिशांक मेळ्ळें. त्याच वर्सा तिसऱ्या शिवाजीक मरण येवन ताचो पूत शंभूजी गादयेर आयलो. ताणें १८२१ मेरेन राज्य केलें. ब्रिटिशांनी कोल्हापूरकारांचो दर्यादिगेवयलो सगळो प्रदेश घेतिल्लो. कोल्हापूर संस्थान मात तांणी तशेंच दवरलें.

**नागरपूरकर भोसले :** महाराष्ट्रांतले मराठी अमलांतलें एक पराक्रमी मराठे घराणें. हांच्या पुर्विल्ल्या इतिहासाची म्हायती मेळना. हे आपल्याक उदेपूरच्या राजपूत राज्यांचे वंशज मानताले. मुसलमानांचो दिल्लींत शेक वाडपाक लागलो तशे ते दक्षिणेक आयले. ह्या घराण्यांतले मुधोजी आनी ताचो भाव रुपाजी सुर्वेक अहमदनगराचे निजामशायेंत काम करताले. उपरांत ते छत्रपती शिवाजीच्या हातासकयल फौजेंत आशिल्ले. मुधोजी हाका सात चले आशिल्ले. हातूंतले परसोजी आनी साबाजी हे शिवाजीचे फौजेंत काम करताले. शाहू मोगलांचे बंदखणींतल्यान सुटून आयले उपरांत ताका छत्रपतिपद मेळोवन दिवपाक परसोजी भोसले हाणें आदार केल्लो. शिवाजी महाराजाच्या सैन्यांत आसतना तो वऱ्हाड,

गोंडवन आनी हेर प्रांतांचेर घुरयो घालून खंडणी वसूल करतालो. मुखार ताणें त्या प्रदेशांनी मराठ्यांचे सत्तेची स्थापणूक केली. हाका लागून राजारामान ताका सेना-साहेबसुभा हो किताब दिवन वऱ्हाडाक धाडलो. थंय ताणें वणी म्हालांत भाम नगरांत आपलें मुखेल लश्करी ठाणें उबारलें. १७१० त ताच्या मरणा उपरांत ताचो चलो कान्होजी हाका सेना-साहेबसुभा हो किताब मेळ्ळो. १७१७ त ताका वऱ्हाड, खानदेश, नेमाड, हंड्या, माळवा, भागानगर ह्या प्रदेशांचो चोथाई सरदेशमुखी वसूल करपाचो हक्क मेळ्ळो. कान्होजी शूर आशिल्लो. तो मुखार आपूण स्वंतत्रपणान वेव्हार करपाक लागलो. हाका लागून कान्होजी आनी पेशवो हांचे भितर दुस्मानकाय निर्माण जाली आनी कान्होजी निजामाकडेन गेलो. पूण रघूजी भोसले हाच्या आदारान शाहून ताका बंदखणींत घालो.

कान्होजीचो बापोलभाव शिवाजी हाचो चलो रघूजी,हाका शाहून सेना-साहेब हें पद दिलें. रघूजीन पुराय गोंडवनाचेर जैत मेळोवन १७४३ त नागपूराक राजधानी उबारली. रघूजीउपरांत ताचो चलो जानोजी हाका सेना-साहेब ही पदवी मेळ्ळी. ताचें आनी पेशव्यांचें केन्नाच पटलेंना. पेशव्यांनी नागपूराचेर हल्लो करून पुराय शार लुटलें. मुखार जानोजी आनी पेशवे हांचेमदीं कबलात जावन जानोजीन वेळार खंडणी भरपाचें मान्य केलें.

जानोजीन आपल्या भावाचो (मधोजी) चलो पोसको घेतिल्लो. ताच्या मरणा उपरांत जानोजीची सुवात ताणें घेतली. मुखार दौलतराव शिंदे आनी रघूजी भोंसले हांणी ब्रिटिशांकडेन झूज केलें. तातूंत मराठ्यांचेर हार पडली आनी आडगावाची कबलात जावन रघूजीन ओडिसा आनी वऱ्हाडाचो चडसो वांटो ब्रिटिशांक दिलो. १८१६ त रघूजीच्या मरणा उपरांत ताचो पुतणयो मुधोजी हाणें कारभार आपल्या हातांत घेतलो. पूण ताच्या उपरांत नागपूराचें राज्य ब्रिटिशांच्या हातांत गेलें.

**तंजावरचे भोसले :** छत्रपती शिवाजी हाचो सवती-भाव व्यंकोजी (एकोजी) हाणें १६७५त तंजावरचें राज्य मेळयल्लें. व्यंकोजीच्या मरणा उपरांत ताचो व्हडलो चलो शहाजी गादयेर आयलो. ताणें आपल्या राज्याचो विस्तार मातसो वाडयल्लो. शहाजी उपरांत ताच्या भावांनी सरफोजी आनी तुकोजी हांणी १७३६ मेरेन राज्य केलें. तुकोजी उपरांत ताचो चलो एकोजी गादयेर आयलो. पूण ताका वर्साभितर मरण आयिल्ल्यान तुकोजीचो दासीपुत्र प्रतापसिंग हाणें गादी सांबाळ्ळी. ताणें ब्रिटिशांच्या आदारान सुमार पंचवीस वर्सां राज्य केलें. १७३६ त प्रतापसिंग हाका मरण आयलें. उपरांत ताचो चलो तुळजाराजा गादयेर बसलो. ताका राज्यकारभारांत रस नाशिल्लो. ताणें देवळां, मशिदी बांदपांत, दानधर्म, तीर्थयात्रा करपांतूच पयसो वगडायलो. ताच्या वेळार भ्रश्टाचार, अत्याचार हांकां ओतो आयिल्लो आनी ताच्या दुस्मानांनी ताचेर खूब घुरयो घाल्ल्यो. हाका लागून ताचें राज्य खिळखिळें जाल्लें. उपरांत ताणें उबगण येवन ब्रिटिशांकडेन कारभार सोंपयलो आनी तांचें मांडलिकत्व आपणायलें. तुळजाजी उपरांत ताचो पोसको पूत, दुसरो सरफोजी गादयेर आयलो. ताणें पस्तीस वर्सां ब्रिटिशांच्या आदारान राज्य चलयलें. सरफोजी उपरांत राजा शिवाजी हाणें १८३३ ते १८५५ मेरेन राज्य केलें, पूण राज्याचीं सगळीं सुत्रां ब्रिटिशांच्या हातांत आशिल्लीं. शिवाजी हाका निपुत्रीक मरण आयले उपरांत १८५५ त ब्रिटिशांनी तंजावर संस्थान खालसा केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** मराठेशाही, शिवाजी, संभाजी.

## भोसले, लक्ष्मणराव बापुराव : (जल्म : २५ मार्च १९३०, जालना, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा गोंयचे शिमेचेर सत्याग्रह घडोवन हाडपांत ताचो वांटो आशिल्लो. तेन्ना पुलिसांनी ताका धरलो, मार घालो आनी दुसऱ्या दिसा भारतीय शिमेर हाडून सोडलो. २७ मे १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## भोसले, हनुमंत रामा : (जल्म : २९ जूलय १९३९, पोंबुर्फे-बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठीतल्यान घेतलें. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो 'गोंय सुटके सैन्य' संघटनेचो वांगडी जालो. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेच्या वांगड्यांक पुलिसांच्या कारवायांविशीं खबरो पावोवपाचें काम तो करतालो. तशेंच पुर्तुगेज पुलीस ठाण्यांचेर हल्लो करपांत तो वांटो घेतालो. १९५५ त पोंबुर्फे पुलीस ठाण्याचेर हल्लो केल्ल्याच्या आरोपाखाला पुलिसांनी ताका धरलो. ताचेकडल्यान ताच्या वांगड्यांची म्हायती मेळची म्हणून ६ म्हयने ताका खूब त्रास दिले आनी बंदखणींत दवरलो. अडेच वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगले उपरांत तो बंदखणींतल्यान पळून दोडामार्गार गेलो आनी गोंय सुटके सैन्याक मेळ्ळो. थंय तो आनासियु आल्मैद आनी जयसिंगराव राणे हांच्या मार्गदर्शनाखाला काम करतालो. १९५७-५८ ह्या काळांत ताणें पत्रादेवी पुलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत आनी दोडामार्ग पुलाचेर बाँब घालपांत वांटो घेतिल्लो. दोडामार्गार पुलिसांनी फारपेट केल्लो तेन्ना ताका गुळी लागून तो जखमी जाल्लो. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**भोळे, केशवराव :** (जल्म : २३ मे १८९६, अमरावती, महाराष्ट्र; मरण : ९ नोव्हेंबर १९७७, पुणें).

नामनेचो संगीत समिक्षक आनी संगीत दिग्दर्शक ताचीं आवय-बापूय संगिताचीं शौकीन आशिल्लीं. बापूय वामनराव सतार वाजयतालो. आवय लेगीत बरी गायताली असो उल्लेख केशवरावान आपल्या एका लेखांत केला. केशवरावाचो जल्म जावचे पयलींच ताच्या बापायक मरण आयलें. पूण घरांतल्या संगिताच्या वातावरणाक लागून केशवरावाक संगिताची गोडी लागली. भुरगेपणासावन, नामनेच्या गायक गायिकांच्या गायनाच्यो ग्रामोफोन रिकॉर्डी आयकुपाचो ताका छंद लागलो.



त्या काळांतली नामनेची गावपी गोहरजान हिच्यो रिकॉर्डी आयकून शास्त्रीय गायनाची ताणें वळख करून घेतली. ती ताची मनस्वी गुरू थरली. तशेंच, बाई जोहराबाई हिचे राग, तराणे ताणें आत्मसात केले.

दोतोरकीचें शिक्षण घेवपाचे तयारेन मुंबय गेल्लो केशवराव, संगीत रचनाकार, गावपी आनी संगीत समिक्षक म्हणून गाजलो. त्याच सुमाराक गोंयची धूव दुर्गाबाय केळेकार (ज्योत्स्तना भोळे) हिचेकडेन ताचें लग्न जालें. ह्याच काळांत 'नाट्य-मन्वन्तर' हे नाटक कंपनीच्या 'आंधळ्याची शाळा' ह्या नाटकाक केशवरावान संगीत दिलें.

ताका बालगंधर्व, मंजी खाँ हांचे सारक्या खांप्या गायकांचो सहवास मेळून ताची संगीत जीण समृध्द जाली. तशेंच ताचो व्हडलो भाव नाटककार वासुदेव भोळे हाचेंय मोलादीक मार्गदर्शन ताका मेळ्ळें. मैफिली कशो आयकुंच्यो, खंयच्या रागाउपरांत खंयचो राग रंगता, गावप्याचो उच्चार अर्थपूर्ण आनी स्पश्ट आसचो ह्यो बारीकसाणी ताच्या भावान ताका शिकयल्यो. विष्णु दिगंबर पलुस्कर हाच्या गायनान तो प्रभावीत जालो.

१९३३ वर्सा केशवराव, प्रभात फिल्म कंपनीचो संगीत दिग्दर्शक जालो. 'अमृतमंथन', 'संत तुकाराम', कुंकू', 'संत ज्ञानेश्वर,' 'चंद्रसेना', 'माझा मुलगा', 'पाहू रे किती वाट', 'संत सखू' ह्या फिल्मांक ताणें संगीत दिलां. तो आपूण बरीं भावगितां म्हण्टालो. उपरांत ताणें आकाशवाणीच्या मुंबय आनी पुणें केंद्रांचेर संगीत निर्देशक म्हणून काम केलें.

'एकलव्य' ह्या टोपण नांवान ताणें 'वसुंधरा' ह्या सातोळ्यांत अभिजात गायक गायिकांविशीं लेख बरयले. हेच लेख उपरांत 'आजचे प्रसिध्द गायक' (१९३३) ह्या पुस्तकांत संग्रहीत जाल्यात. ह्याच पुस्तकाची फुडें 'संगिताचे मानकरी' (१९५९) ही नवी आवृत्ती आयली. उपरांत ताणें 'शुध्दसारंग' ह्या टोपण नांवानूय लिखाण केलें.

ताणें बरयल्लीं पुस्तकां अशीं आसात - 'आवाजाची दुनिया' (१९४८), 'अस्ताई' (१९६२), 'वसंतकाकाची पत्रे' (१९६४), 'माझे संगीत' (१९६४), 'अंतरा' (१९६७), 'जे आठवते ते' (१९७४).

- रमेश सखाराम बरवे

**भोळे, ज्योत्स्ना :** (जल्म : १९१४, बांदोडें). लग्नापयलींचें नांव दुर्गा केळेकार. घरांत गायनाची परंपरा आशिल्ल्यान तिका गायनाची सुरवातीसावनूच आवड आशिल्ली. गोड ताळ्याची जल्मजात देगणी तिका मेळिल्ली. व्हडल्यो दोग भयणी केंसर आनी गिरिजा गायन शिकताल्यो. तांकां गायनतपस्वी पं. वझेबुवा घराकडेन येवन शिकयतालो. तांची शिकवण चलतना धाकटुलें दुर्गा तें तल्लीन जावन आयकतालें, तांचें अनुकरण करतालें. फुडाराक संगीत शिकपाचो ध्यास घेवन दुर्गा मुंबय गेलें. थंय उस्ताद खादिम हुसेन खाँ, महमद बशीर खाँ, धम्मन खाँ, इनायत हुसेन खाँ आनी हेरांकडेन शास्त्रीय संगिताचे धडे घेतले. फुडें खाजगी रेडिओचेर गायनाच्यो कार्यावळी केल्यो. थंयच नामनेचे नाटक, सिनेमाचे संगीत दिग्दर्शक केशवराव भोळे हाचेकडेन संबंद आयलो. भावगीत-नाट्य गितांत रस कसो भरचो हे विशीं केशवरावाकडल्यान तिका मार्गदर्शन मेळ्ळें. ताची ती शिश्या जाली. उपरांत तीं लग्न जालीं आनी दुर्गा केळेकर, ज्योत्स्ना केशवराव भोळे जाली. नाट्यमन्वंतर नाट्यनिकेतन ह्या संस्थांतल्यान तिणें रंगमाचयेर पावल दवरलें. केशवराव दाते, मो. ग. रांगणेकर हांचे कडल्यान तिका नाट्यशिक्षण मेळ्ळें. केशवरावाच्या मार्गदर्शनान आनी सहवासान संगीत मळावयलीं सोंपणां तिणें हुपलीं आनी मराठी संगीत नाटक माचयेवयली ती व्हड गायिका, अभिनेत्री जाली. 'आंधळ्याची शाळा', 'कुलवधू' हींय नाटकां तिणें आपल्या अभिनय आनी संगिताच्या बळग्यार गाजयलीं. 'बोला अमृत बोला', 'क्षण आला भाग्याचा', 'येईल कांरे असा काळ दिव्यतेचा' हीं तिचीं पदां बरींच गाजलीं. 'हो नंदालो पोरे बाये भोवच मस्तखोर' हें कोंकणी पदूय बरेंच गाजलें. ते ते गिताच्यो भावना ते ते सुरावटींत उक्ती करपाची तिची तांक अप्रुपाची. 'स्वरवंदना' हें तिचें आत्मचरित्रात्मक पुस्तक उजवाडा आयलां. तशेंच तिणें आपल्या धुवांक बरयिल्ल्या पत्रांचो झेलो पुस्तक रुपान 'अंतरीच्या खुणा' ह्या नांवान हालींच उजवाडायला. ६४ व्या नाट्य संमेलनाची ती अध्यक्षा आशिल्ली.



- कों. वि. सं. मं.

**भौतिकशास्त्र :** संवसारांतल्या जड सृश्टी घटकांच्या आविश्कारांचो, मुलभूत अशा तत्त्वाच्या आदारान अभ्यास करपी शास्त्र. ह्या शास्त्रांत, अशा आविश्कारांफाटल्या कार्यकारणभावाचें स्पश्टीकरण गणितीय चिकित्सक पद्दतीन करप जाता. झाडाचे फांदयेवयल्यान कोंचिल्लें सफरचंद धर्तरेर येवन पडटा, हो आविश्कार पळोवन सफरचंद आनी धर्तरी हांचे मजगतीं आकर्शणाची प्रेरणा आसा असो निश्कर्श न्यूटॉन ह्या विज्ञानिकान काडलो. ह्या आविश्काराचें सूत्र घेवन खंयच्याय दोन वस्तूंमदीं आकर्शणाची प्रेरणा दाखोवपी, ताणें गुरूत्वाकर्शणाचो सिद्धांत मांडलो. ह्या सिद्धांताच्या आदारार फुडें धर्तरी आनी चंद्र, धर्तरी आनी सूर्य हांचेमदीं आकर्शणाचे प्रेरणेची कल्पना मांडप जाली. अशेच कल्पनेन संवसारांतल्या द्रवरूपी पदार्थांच्या आविश्कारांचो कार्यकारणभाव वळखून आविश्कारांफाटलें स्पश्टीकरण करपाचें काम भौतिकशास्त्रांत जालें.

**इतिहास :** विज्ञान हे संकल्पनेची सुरवात चाक, कप्पी (गाडी), तरफ हांचेवयल्यान जाली. ह्या घटकांनी विज्ञानाच्या मुळावणाची कल्पना दिली. अशा मुळाव्या स्वरुपाच्या विज्ञानिक अंशाचे कार्य कारणभाव सोदपाचो पद्दतशीर विचार इजिप्त, भारत, ग्रीस, चीन सारकिल्या पुरातन संस्कृतींत सुमार इ.स.प. ३००० वर्सांपासून दिसता. रात-दीस ही घडणूक आनी हे घडणुकेवरवीं म्हयन्याचें, वर्साचें कालमापन, थाराविक गणितीय रितीन करपाचो कल्पनेफाटल्यान कार्यकारणभाव दिसता.

भारतांत 'वेदांग ज्योतिष' ह्या ग्रंथांत चांद्रमास २९$^1/_2$ दिसांचो आसता तर सौरवर्स ३६६ दिसांचें आसता, अशें विधान केलां. अशाच 'ब्राह्मण' ह्या आनीक एका प्राचीन ग्रंथांत धर्तरी गोलाकार आसून ती अवकाशांत निराधार आसा, असो उल्लेख मेळटा. पायथॅगॉरस (इ.स.प. सुमार ५७५-४९५) ह्या ग्रीक गणिततज्ञान खंयचेंय द्रव्य आप, पृथ्वी, वायू आनी तेज ह्या चार मुलद्रव्यांपसून निर्माण जाता अशें म्हळां. धर्तरेचो आकार गोल आसा; सूर्य, ग्रह आनी हेर तारे स्थीर धर्तरेभोंवतणी आपापल्या वर्तुळाकार कक्षांत फिरतात अशें ॲरिस्टॉटलचें (इ.स.प. ३८४-३२२) म्हणणें आशिल्लें. स्थीर वेगान जेन्ना खंयचीय वस्त चलता, तेन्ना तिचेर प्रेरणा सतत कार्य करता आसतली अशें ॲरिस्टॉटलचें मत आशिल्लें. द्रवांत वस्त बुडयली तर तिच्या वजनांत जी घट जाता, ही घट ते वस्तून कुशीक सारिल्ल्या द्रवाच्या वजनाइतकी आसता. हें संख्यात्मक तत्त्व आर्किमिडीझान (इ.स.प. २८७-२१२) सोदून काडलें. ह्या काळांतल्या संशोधकांचीं मतां हीं खूबदां अनुमान पद्दतीचेर आदारीत अशीं आशिल्लीं. तांचें खरें-फटपण पारखुपाची निरिक्षण वेवस्था वा प्रयोगशाळा मेळूंक नाशिल्ली. ह्या कारणाकलागून बरीचशीं विधानां तर्कशास्त्राचेरूच आदारिल्लीं मेळटात.

भौतिकशास्त्राच्या सुरवेच्या इतिहासांत न्यूटन, आर्किमिडीझ, गॅलिलीओ, हायगेंझ, कार्नो हांणी आपलें योगदान दिलें. उपरांत फॅराडे, कुलंब, मायकेलसन हांणी ह्या शास्त्रांत म्हत्वाची भर घाली. तशेंच कॅलव्हीन, बोल्टस्मान, मॅक्सवेल, लॉरेन्ट्स, रॅली, जॉजेफ जॉन टॉमसन हांणी आपलें योगदान दिलां. सापेक्षता सिद्धांत आनी पूंज सिद्धांत भौतिकशास्त्राक दिवपाचें मोलाचें कार्य विसाव्या शेंकड्यांत आइन्स्टाइन, प्लांक, श्रोडिंजर, हायझेनबेर्क, डिरॅक, फेर्मी, पाऊली आनी बोर्न हांणी केलें. अणूसंरचनेसंबंदीचीं प्रतिमानां निश्चित करपाचें काम रदरफर्ड आनी नील्सबोर हांणी केलें. भारतीय भौतिकशास्त्रज्ञ, चंद्रशेखर व्यंकट रामन, सत्येंद्रनाथ बोस, कार्यमाणिक्कम् श्रीनिवास कृष्णन, मेघनाद साहा, सुब्रह्मण्यम् चंद्रशेखर, होमी जहांगीर भाभा हांणी ह्या शास्त्रांत मोलाची भर घाल्या.

भौतिकशास्त्राच्या अभ्यासाचे सोयीखातीर, ह्या शास्त्राचे विंगड विंगड विभाग करप जाल्यात. यामिकी आनी क्षेत्रसिद्धांत हे मुलभूत अशे म्हत्वाचे दोन विभाग आसात. प्रेरणा लायल्याउपरांत तिचेवरवीं वस्तूक जी गती मेळटा, ते गतीचो अभ्यास यामिकी ह्या विभागांत जाता. हे प्रेरणेचें स्वरूप, तिचें मापन आनी तिचो पल्लो हाचेसंबंदी क्षेत्रसिद्धांतांत विचार करप जाता. कार्यान्वित करपी परस्पर क्रियेनुसार भौतिकशास्त्राचे, विद्युत् भौतिकशास्त्र, चुंबकत्व भौतिकशास्त्र, प्रकाश भौतिकशास्त्र प्रकाश भौतिकशास्त्र आनी उश्णताय भौतिकशास्त्र अशे आनीक विभाग करूं येतात. आधुनिक सिद्धांताप्रमाण उजवाड हो विद्युत् चुंबकीय तरंगाच्या स्वरूपांत प्रसारीत जाता अशें आशिल्ल्यान हे दोनूय विभाग तात्त्विक नदरेन एकच मानप जाता. तरीय विद्युत् चुंबकीय तरंगाचें वर्णन करपाखातीर लागपी गणित थोडें किचकटीचें आशिल्ल्यान आजुनूय कांय उजवाडीय आविश्कारांचें स्पश्टीकरण प्रकाश तरंगाच्या स्वरूपांत दिवप सोंपें जाता. शास्त्राचे फुडले सोयीखातीर आणवीय भौतिकशास्त्र, अणुकेंद्रीय भौतिकशास्त्र, रेणवीय भौतिकशास्त्र अशेय विभाग समजप जातात.

भौतिकशास्त्रांतल्या विंगड विंगड आविश्कारांचें जुस्ताजुस्त विवेचन करप आनी तांच्या फाटलो कार्यकारणभाव समजून घेवप हे प्रकियेखातीर द्रव्यमान, लांबाय, विद्युतभार, तापमान ह्या सारकिल्या खूबशा घटकांचो उपेग करप जाता. ह्या घटकांक मापप हो भौतिकशास्त्राचो एक म्हत्वाचो विशय आसा. ह्या मापाखातीर एककां, मॅट्रीक पद्दत, दाबमापन, विद्युत् राशीमापन, तापमापन, उजवाडमापन, प्रणमनांकमापन, व्यक्तीकरणमापन सारकिल्या पद्दतींचो वापर करप जाता.

भौतिकशास्त्राचे उदरगतीन परिणामांचें स्पश्टीकरण दिवपाच्या प्रयत्नांत ज्यो मुलभूत अशो संकल्पना प्रस्थापित जाल्यो, त्या संकल्पनांनी

भौतिकशास्त्रांत मोलादीक भर तर घालीच तेचवांगडा हातुंतल्या कांय संकल्पनांनी मनशाच्या तत्त्वज्ञानांत क्रांतिकारक बदल घडोवन हाडले. देखीक - काळ सापेक्ष आसा हें सापेक्षता सिद्धांतांत दाखोवप जालें.

गुरूत्वाकर्शण, विद्युत् चुंबकीय तरंग, एंट्रॉपी ह्या सारकिल्या म्हत्वाच्या भौतिकी संकल्पनावरवीं मनशाच्या तत्त्वज्ञान विशयाक खुबूच चालना मेळ्ळी. भौतिकी घटकांमदलो परस्परसंबंद हो गणितीय स्वरुपांत मांडलो तर अचूक, सुस्पश्ट जाता आशिल्ल्यान आधुनिक भौतिकशास्त्रांत भोवतेक सगळीं मुलभूत तत्त्वां गणितीय स्वरुपांत मांडप जातात. आधुनिक काळांत मनशाचे दिसपट्टे जिणेंत भौतिकी तत्त्वांचेर आदारिल्ल्या सुत्रांचो व्हड प्रमाणांत वापर जालो दिसता. छायाचित्रण, रेडिओ संदेशवाहन, दूरचित्रवाणी, तारायंत्रविद्या, दूरध्वनीविद्या, ध्वनीमुद्रण, ह्या प्रक्रियांनी भौतिकीय तत्त्वांचो आदार घेतला.

सुरवेक भौतिकशास्त्रांत, संशोधन आनी प्रयोग करपी प्रयोगशाळा खाजगी आशिल्ल्यो, जेन्ना ह्या शास्त्राचो विद्यापीठीय थराचेर अभ्यासक्रमांत आस्पाव जालो तेन्ना ह्या शास्त्राचेर संशोधन विद्यापिठीय प्रयोगशाळांनी जावंक लागलें. १८४६त हायडलबर्ग (जर्मनी), १८६३ बर्लिन (जर्मनी), ग्लोसगो, ऑक्सफर्ड (ब्रिटन), १८७१ कँब्रिज (ब्रिटन) १८६६त सोरबॉन (पॅरीस), १८२४ ते १८३१ त न्यूयॉर्क (अमेरीका) हांगा अशे तरेच्यो प्रयोगशाळा सुरू जाल्यो. फुडें भौतिकशास्त्राच्या सोदांचो उद्येग क्षेत्रांत वापर जावंक लागिल्ल्यान उद्येगपतींच्या अर्थीक आदारान भौतिकशास्त्राच्यो लागीं लागीं सगळयाच राश्ट्रांनी राश्ट्रीय प्रयोगशाळा निर्माण जाल्यो.

भारतांत इंडियन फिजिकल सोसायटीची स्थापना कलकत्ता हांगा १९३४ त जाली. काउन्सिल ऑफ सायंटिफीक आनी इंडस्ट्रीयल रिसर्च हे मध्यवर्ती संस्थेच्या मार्गदर्शनाखाला जायत्यो राश्ट्रीय प्रयोगशाळा संशोधनाचें काम करतात. नॅशनल फिजिकल लेबोरेटरी (नवी दिल्ली, १९५०), भाभा अणुसंशोधन केंद्र (मुंबय, १९५७), फिजिकल रिसर्च लॅबोरेटरी (अहमदाबाद, १९४७), इन्स्टिट्यूट ऑफ न्यूक्लिअर फिजिक्स (कलकत्ता, १९५१), बोस इन्स्टिट्यूट (कलकत्ता, १९१७), रामन रिसर्च इन्स्टिट्यूट (बेंगलोर, १९४८), टाटा इन्स्टिट्यूट ऑफ फंडामेंटल रिसर्च (मुंबय, १९४५), इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्स (बेंगलोर, १९०९), इंडियन स्पेस रिसर्च ऑरगनायझेशन (बेंगलोर, १९६९) ह्यो कांय मुखेल भौतिकशास्त्राच्यो संस्था आसात.

- डॉ. आर. बी. टंकसाळी

- कों. वि. सं. मं.

**भ्रमरांबा :** एक शक्तिपीठ. आंध्र प्रदेशांतल्या श्रीशैल्य पर्वताचेर ही सुवात आसा. आद्य शंकराचार्यान हे देवीचे स्तुतीचेर एक अश्टक रचलां, तातुंतलो एक श्लोक असो आसा-

*गायत्रीं गरुडध्वजां गगनगां गान्धर्वगानप्रियां*
*गम्भीरां गजगामिनीं गिरीसुतां गन्धाक्षतालङ्कृताम्।*
*गङ्गागौतमगर्गसंनुतपदां गां गौतमीं गोमतीं*
*श्रीशैल्यस्थलवासिनीं भगवतीं श्रीमातरं भावये।।*

**अर्थ :** गायत्री, गरुडध्वज, गगनगामिनी, गंधर्वांचें गायन प्रिय आशिल्ली, गंभीर, गजगती, पर्वतकन्या, गंधाक्षतांनी अलंकृत गंगा, गौतम आनी गर्ग हांणी तिच्या चरणांक वंदन केलां अशी, पृथ्वीरूपी, गौतमी, गोमती आनी श्रीशैल्य पर्वताचेर विराजमान आशिल्ली अशा भगवती मातेचें हांव स्तवन करता.



दर पुनवेक हांगा तिचें भ्रमण जाता देखून तिका भ्रमरांबा अशें नांव पडलें आसुये. श्री मल्लिकार्जुनाच्या देवळा फाटल्यानच तिचें व्हड देवूळ आसा. श्रीभ्रमरांबा देवीचे हे सुवातीविशीं एक कथा आसा ती अशी-

दुर्गा देवीच्या रुपान पार्वतीचें महिषासुराकडे झूज चालू आशिल्लें. पूण ताका मरणच येना आसलें. तेन्ना तिणें गुंगुल्ल्याचें रूप घेवन ताका जिवेशी मारलो. उपरांत देवीक श्रीशैल सोडून पुराय धर्तरेचेर असुराचें अपवित्र रगत शिपडिल्ल्याचें दिसून आयलें. देखून तिणें ही सुवात पसंत करून हांगाच कायमचें वास्तव केलें.

ही सुवात खुबूच उंचायेचेर आसा. देवीची मूर्त काळ्या पाशाणाची आसा. भ्रमरांबेच्या दर्शनाबगर श्रीशैल्याची यात्रा पुराय जायना असो समज आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मंगलाष्टक :** लग्नांत व्हंकल - न्हवऱ्याची मंगलकामना करपाचे नदरेन आशिर्वादाचो असो आठ भागांचो श्लोक, ताका मंगलाष्टक अशें म्हण्टात. न्हवऱ्याची सिमांत (मधुपर्क) पुजा जातकच ताका एके ल्हान तांदळांचे राशीचेर उदेंते वटेन तोंड करून उबो करतात. ताच्या सामकार व्हंकलेक उबी करतात. दोगांयमदीं अंतरपाट धरून संस्कृत आनी प्राकृत श्लोक म्हळयार मंगलाष्टकां म्हण्टात.

श्लोकांच्या निमाण्या चरणांत 'कुर्यात सदा मङगलम्' अशें म्हण्टात. उपरांत 'शुभमङगल सावधान' असो उद्‌घोष करतात आनी सगळी मंडळी व्हंकल-न्हवऱ्याचेर अक्षता उडयतात. तुळशी लग्नांतय मंगलाष्टकां म्हण्टात.

विद्वानांच्या मताप्रमाण लग्नांत मंगलाष्टक म्हणपाची पद्दत चड पोरनी न्हय. ऋग्वेदीय ब्रह्मकर्मांत व्हंकल-न्हवऱ्यामदीं अंतरपाट धरतकच 'सत्येनोत्तभिता भूमि' हें विवाहसूक्त म्हणचें अशें म्हळां-

सामान्यपणान सगळयाक मंगलाष्टकां म्हण्टात तीं अशीं -

स्वस्ति श्रीगणनायकं गजमुखं मोरेश्वरं सिध्दिदं
लेण्याद्रिगिरिजात्मकं सुवरदं विघ्नेश्वरं ओझरम् ।।
बल्लाळं मुरुडं विनायकमढं चिन्तामणिस्थेवरं
ग्रामो रांजणसंस्थितो गणपतिः कुर्यात्सदा मङगलम् ।।१।।
नत्वा स्वां कुलदेवतां च कमलां विघ्नेश्वरं शारदां
वक्ष्ये कृष्णविवाहकौतुकमिदं चेतोहरं शृण्वताम् ।।
स्वस्यैवान्यगुणानुवर्णनपरिश्रान्तस्य विश्रान्तये
नित्यं स्वोदरपूर्तये कुहकवत् कुर्यात्सदा मङगलम् ।।२।।
यं ब्रह्मा वरुणेन्द्ररुद्रमरुतः स्तुन्वन्ति दिव्यैः स्तवैर्वेदैः
साङ,गपदक्रमोपनिषदैर्गायन्ति यं सामगाः ।।
ध्यानवस्थिततद्‌गतेन मनसा पश्यान्ति यं योगिनो
यस्यान्तं न विदुः सुरासुरगणाः कुर्यात्सदा मङगलम् ।।३।।
गङ,गा सिन्धु सरस्वती च यमुना गोदावरी नर्मदा
कावेरी शरयू महेन्द्रतनया चर्मण्वती वेदिका ।।
क्षिप्रा वेत्रवती महासुरनदी ख्याता च या गण्डकी
पूर्णाः पूर्णजलैः समुद्रसहिताः कुर्यात्सदा मङगलम् ।।४।।
लक्ष्मीः कौस्तुभपारिजातकसुरा धन्वन्तरिश्चद्रमा
गावः कामदुघाः सुरेश्वरगजो रम्भादिदेवाङ,गनाः ।।
अश्वः सप्तमुखो विषं हरिधनुः शङ;खोऽमृतं चाम्बुधेः
रत्नानीह चतुर्दश प्रतिदिनं कुर्यात्सदा मङगलम् ।।५।।
भास्वान् काश्यपगोत्रजोडरुणरुचिर्यो सिंहराशीश्वरो
षट्‌त्रिस्थो दश शोभनो गुरूशशी भौमेषु मित्रः सदा ।।
शुक्रो मन्दरिपुः कलिङगजनितश्चाग्नीश्वरौ देवते
मध्ये वर्तुलपूर्वदिगदिनकरः कुर्यात्सदा मङगलम् ।।६।।
चंद्रः कर्कटकप्रभुः सितनभश्चात्रेयगोत्रोद्‌भवश्चाग्रेय्यां
चतुरस्त्र वारुणमुखश्चापोप्युमाधीश्वर : ।।
षट्‌सप्ताग्निदशैकशोभनफलो नोरिर्बुधार्कप्रियः
स्वामी यामुनदेशजो हिमकरः कुर्यात्सदा मङ;गलम् ।।७।।
ईशानो गिरिशो मृडः पशुपतिः शूली शिवः शङ;करो
भूतेशः प्रमथाधिपः स्मरहरो मृत्युञ्जयो धूर्जटिः ।।
श्रीकण्ठो वृषभध्वजो हरभवौ गङ;गाधरस्त्र्यम्बको
श्रीरुद्रः सुरवृन्दवन्दितपदः कुर्यात्सदा मङ;गलम् ।।८।।

- कों. वि. सं. मं.

**मंगलोर :** कर्नाटक राज्यांतलें दक्षिण कॅनरा जिल्ह्याचें मुखेल ठिकाण आनी भारतांतलें एक मुखेल बंदर.

मंगलोर, नेत्रावती आनी गुरूपूर ह्या दोन न्हंयांमदीं आसून ताच्या अस्तंत आनी दक्षिण वटांनी न्हंयो आसात. दक्षिणेवटेन सोंपिल्ल्या ५ किमी. लांबायेच्या रेवेंच्या पट्याक लागून अरबी दर्यावयल्या ह्या बंदराक राखण मेळ्ळया. ह्याच पट्यावयल्यान अरबी दर्यांतलीं जहाजां गुरूपूर न्हंयेचेवटेन बंदरांत प्रवेश करतात. बंदरासावन ९किमी. भितरमेरेन व्हड जहाजां येवंक शकतात.

मंदेगोरा, मगनूर, मंगरौथ, नित्रिअस हीं मंगलोरचीं, युरोपीय ग्रंथांतलीं पुर्विल्लीं नांवां आसात. इ. स. सातव्या शेंकड्यांतल्या 'मरतूरु' ताम्रपटांत ह्या स्थळाचो 'मंगलपुरा' (मंगल-किल्लो) असो उल्लेख मेळटा. इ.स. धाव्या शेंकड्यांत, हांगा आशिल्ली राणी मंगलादेवी हिचेवयल्यान हांगाच्या देवळाक नांव पडलें आनी ह्या देवळावयल्यान मंगलोर हें नांव पडलें आसूं येता. गुरूराज भट हाच्या मतान, हें ठिकाण, राजकीय आनी सैनिकी नदरेन म्हत्वाचें आशिल्ल्यान हाका हें नांव पडलें. 'कूडल' (दोन न्हंयांचें संगमस्थान) हें हाचें स्थानिक नांव.

तेराव्या शेंकड्यांत मंगलोर ही आलूप वंशाची राजधानी आशिल्ली. चवदाव्या शेंकड्यांत, इराणाच्या आखातावयल्या बंदराकडेन, मंगलोरचो व्हड वेपार चलतालो. १५०५ वर्सा विजयानगरच्या राजान पुर्तुगेजांक

हांगा किल्लो बांदपाक परवानगी दिल्ली. १५२६ वर्सा पुर्तुगेजांनी हें शार घेवन १५४७ त तें वसाड करून उडयलें. १५५५ वर्सा तें परतून उबारलें, पूण ताचे उपरांत परतून लासलें. अरबी वेपाऱ्यांक मंगलोरांत वेपार करपाक बंदी घाल्ल्यान १६९५ वर्सा अरबांनीय मंगलोर लासलें. १७६३ वर्सा हैदर अलीन मंगलोर घेवन थंय गोदी आनी दारूगुळो कारखान्याची उबारणी केली. १७६८ त हें ब्रिटिशांनी घेतलें आनी १७९१ वर्सा सोडलें. १७९४ वर्सा टिपू सुलतानान मंगलोर जिकलें, पूण १७९९ वर्सा ब्रिटिशांनी तें परतून घेतलें. कूर्ग बंडाच्या काळांत (१८३७) मंगलोरांत घुशिल्ल्या बडखोरांनी ब्रिटिशांच्या शासकीय कार्यालयांक उजो घालो.

ह्या शारांत माड-सुपारेचीं कुळागरां आसात. १९७१ वर्सा सावन डेरेबेल, कंकनडी, सोमेश्वर आनी उल्लाल ह्या नगरांचो आस्पाव मंगलोरांत केलो आनी मंगलोर हें एक उद्देगिक, वेपारी आनी शैक्षणिक केंद्र जालें. १८९६ वर्सा हांगा नगरपालिकेची स्थापणूक जाली.

मंगलोरचे अस्तंतेक लोखण आनी मँगनीजचे साठे आसात. हांगाचे 'मंगलोरी नळे' (सूलचे नळे) खूब प्रसिध्द आसात. तेभायर हातमाग आनी सुती कपड्या उद्देग, मातयेचीं आयदनां, काफी, काजू, जहाजनिर्मिती, नुस्त्याचो धंदो हांकांलागून मंगलोर शाराक खूब नामना मेळ्ळया. उल्लाल हें उपनगर तयार कपडे आनी काथ्याच्या वस्तुंखातीर खूब नामनेक पावलां. दर्यामार्ग, रस्ते, रेल्वे मार्ग आनी हवाई मार्गावरवीं मंगलोर शाराचो संबंद देशांतल्या हेर शारांकडेन जोडला.

१९८० वर्सा हांगा बायल शिक्षणाचेर भर दिवपी एक मंगलोर विद्यापीठ सुरू जालें. शाराचे मदीं आशिल्ले 'बावटा गुड्डा' हे दोंगुल्लेचेर पोरनें दीपगृह आसून १९०० वर्सा हांगा नवें दीपगृह बांदलां. हांगाची सेंट ॲलोइशस चर्च पळोवपासारकी आसा. हांगा कोंकणी भाशेचो खुबूच प्रभाव दिसता. तशेंच हांगा चार किल्ले, देवळां, मठ, चर्च, मशिदी, मैदानां, उद्यानां आसात. हांगा ल्हान-व्हड खूब उदकाचीं कुंडां आनी एक ल्हानसो धबधबो तशेंच णव तळीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मंगळ (Mars) :** सूर्य गिरावळींतलो चवथो गिरो. रातचो मळबांत तो तांबडोसो दिसता. पूण दुर्बिणींतल्यान पळयल्यार हळदुळसार तांबडो दिसता.

प्राचीन भारतांत मंगळ गिऱ्याक कुज, अंगारक, भौम, लोहित हीं नांवां दिवन फलज्योतिशांत ताका क्रौर्य, पराक्रम, उद्योग, उत्पात, अग्निप्रलय, वशाचे रोग, दंगे, वादळां, झुजां सारकिल्ल्या अरिश्टांचो स्वामी मानला. हो रगतावरी तांबड्या रंगाचो, दक्षिण दिकेचो स्वामी तमोगुणी मानिल्लो आसून मेष आनी वृश्चिक ह्या राशिंचो स्वामी आसा. मकर रास ही ताची उच्च सुवात आसून कर्क रास ही नीच सुवात आसा.

मंगळ गिऱ्याक रोमन लोकांनी मार्स (Mars) म्हळयार झूजदेव अशें नांव दिलां. बॅबीलॉनियन लोकांक ह्या गिऱ्या संबंदी ३०० वर्सां पयलींसावन म्हायती आशिल्ली. ह्या गिऱ्याक तांणी नॅर्गाल म्हळयार मरणदेव अशें नांव दिल्लें. फलज्योतिशाकडेन ताचो नाशकारक संबंद आसा असो त्या लोकांचो समज आशिल्लो. ग्रीक लोकांनी मंगळ गिऱ्याक एरीझ (Ares) म्हळयार झूजदेव अशें नांव दिलां. ह्या गिऱ्याक दोन उपगिरे आसून, ग्रीक लोकांनी ताका फोबस (भिरांत) आनी टॅर्रर (दहशत) अशीं नांवां दिल्लीं आसात.

गॅलिलीओ हाणें १६१० त मंगळ गिऱ्याची पयले फावट दुर्बिणींतल्यान पळोवणी करून तो पुरायपणान वाटकुळो ना अशी नोंद केल्या. १६५९ त क्रिस्तीआन हायगेन्स हाणें मंगळ गिऱ्याचेर एक काळो दाग आसा हें दाखोवन ताका 'सर्टीस मॅजर' अशें नांव दिलां. ताणें मंगळ धर्तरेभाशेन आपले भोंवतणी घुंवता हेंय सोदून काडलें. जे. डी. कासिनी हाणें १६६६ वर्सा मंगळाच्या ध्रुवालागसार आशिल्लीं धवीं आवरणां पयलीं पळयलीं. विलियम हार्शेल हाणें मंगळा भोंवतणी वातावरणाचो पातळ थर आसा हें सोदून काडलें.

सुर्यासावन मंगळाचें अंतर सरासरी २२.८ कोटी किमी. इतलें आसा. सूर्याभोंवतणचे भोंवडेची कक्षा लंबगोलाकार आसा. मंगळाची विषुववृत्तावयली त्रिज्या ३३९३.५ किमी. म्हळयार धर्तरेचे त्रिज्येच्या अर्दापरस मात्शी चड आसा. धर्तरेप्रमाण विषुववृत्ताकडेन तो मात्सो फुगीर आसा आनी ध्रुवाकडेन मात्सो चेंपटो आसा. मंगळाचें आकारमान धर्तरेच्या आकारमानाच्या ०.१५ पट आसून वस्तुमान धर्तरेच्या वस्तुमानाच्या ०.११पट आसा. ताची सरासरी घनता ३.९५ ग्रॅ./सेंमी. इतली आसा. मंगळाचो गुरुत्वाकर्षणाचो नेट धर्तरेच्या गुरुत्वाकर्षणाच्या ३८% आसा. हाका लागून धर्तरेवयलें १०किग्रॅ. वजन मंगळाचेर ३०८ किग्रॅ. जातलें.

मंगळ गिऱ्यावयलो दीस सादारणपणान २४ वरां ३७मिनटां आनी २३ सेकंद इतलो आसता. धर्तरी आनी मंगळ हांचो आवर्तकाल लागीं लागीं सारकोच आशिल्ल्यान वर्साक अक्षांशाप्रमाण जावपी दिसाचे आनी रातचे बदल तशेंच ऋतुंतले बदल दोनूय गिऱ्यांचेर सारकेच आसतात.

मंगळावयल्या ऋतूंचो तेप असमान आसून हो तेंप धर्तरेवयल्या ऋतूंच्या तेंपापरस दुप्पट आसता. मंगळावयल्या ऋतूंच्या तेंपात चडांत चड फरक ५३ दिसांचो आसा. सुर्यासावन मंगळ गिरो धर्तरेपरस चड पयस आशिल्ल्यान मंगळाचें सरासरी तापमान धर्तरेच्या सरासरी तापमानापरस कमी आसता. मंगळाचेर धवीं आनी हळदुवीशीं कुपां हालचाल करता आसतना दिश्टी पडटात. हाका लागून मंगळा भोंवतणीं वातावरणाचे थर आसात हें सहज कळटा. वातावरणाच्या सकयल्या

थरांत मंगळाच्या अंतरंगांतल्यान उत्सर्जित जाल्लो कार्बन डायऑक्साइड वायू आसून तो वातावरणाचो मुखेल घटक आसा. साप कमी प्रमाणांत उदकाची ऊब, कार्बन मोनॉक्सायड, आरगॉन आनी निऑन हांचेय थर आसात. मंगळाच्या वातावरणांत ९५% कार्बन डायऑक्साइड वायू आसून २.७% नायट्रोजन आनी १.७% आरगॉन आसा. मंगळावयल्या वातावरणाचें वस्तुमान कमी आशिल्ल्यान तें रोकडेंच तापता आनी तितलेच बेगीन न्हीवता. रातच्या आनी दिसाच्या तापमानांत खूब फरक आशिल्ल्यान हांगा प्रभावी वारें निर्माण जाता. तांचो वेग वराक ८ ते ४० किमी. आसून तांच्यो दिका बदलत रावतात. धुल्ल वादळाच्या वेळार वाऱ्याचो नेट वराक २०० किमी. परस चड आसता. पातळ वातावरण, उणी आर्द्रता, ज्वालामुखी आनी हेर क्रियांक लागून मंगळ गिऱ्याचेर खूब धुल्ल आसा. मंगळाच्या दक्षिण गोलार्धाचेर गीम चड खर आशिल्ल्यान दक्षिण गोलार्धाच्या वसंत ऋतूच्या निमाणेकडेन धुल्लाचें वादळ जावपाची खूब शक्यताय आसता. ह्या गिऱ्याचेर उदकाचे सांठे चडकरून जमनीतळा बर्फाच्या रुपान आसात अशें दिसून आयलां. ह्या सांठ्यांतलो कांय बर्फ विरगळून ताची वाफ जावन कुपां तयार जातात. मंगळाचेर दिसपी खतांचे रंग, आकार आनी विस्तार, थंयच्या ऋतूंप्रमाण बदलत आसतात. हांगा साबार सुकीं देगणां आनी पाट आसात. हीं व्हड देगणां आनी पाट कशे तयार जाले हांची स्पश्टपणान म्हायती आजून मेळूंक ना.

स्कियापरेली हाणें १८७७ त मंगळ गिऱ्याची दुर्बिणींतल्यान पळोवणी केली तेन्ना ताका गिऱ्याच्या पृश्ठभागार साबार पाट आसात अशें दिश्टी पडलें. ह्या पाटांविशीं उपरांत लोकांच्या मनांत उमळशीक निर्माण जावन, मंगळ गिऱ्यावयल्या मनशाभाशेन आशिल्ल्या जीवान ध्रुवीय प्रदेशाकडच्यान विषुवप्रदेशाकडेन उदक हाडपाखातीर हे पाट खणल्यात असो समज काडलो. हे कल्पनेक लागून तशेंच मंगळ आनी धर्तरी हांच्यांत अक्षीय आनी कक्षीय परिभ्रमण, रात आनी ऋतू हातूंत खूब सारकेंपण आशिल्ल्यान मंगळ गिऱ्याचेर जीवसृश्टी आसपाची शक्यताय आसा अशें दिसता.

मंगळ गिऱ्याचेर जीवसृश्ठी आसा काय ना हाचो बारीकसाणेन अभ्यास करचेखातीर अमेरिकेन १९६५ वर्सासावन ते १९७५ वर्समिरेन मॅरिनर ४,६,७ आनी ९ तशेंच १९७५-१९७६ व्हायकींग १ आनी २ हीं अवकाशयानां मंगळाचेर धाडिल्लीं. रशियेनूय मार्स २,३,५ हीं अवकाशयानां मंगळाचेर धाडल्यांत. हीं अवकाशयानां मंगळ गिऱ्याचीं चडांतचड लागींचीं छायाचित्रां धाडपांत, तशेंच थंयच्या वातावरणाचो दाब, तातूंतले घटक, तापमान, थंयच्या फातरांचे आकारमान, मातयेचे घटक, उदकाच्या वाफेचें प्रमाण आनी हेर म्हायती धाडपांत आदार करतात. सद्या थंय सांपडिल्ले जीव आनी मातयेचे अमेरिकेच्या प्रयोग शाळेंत निरिक्षण चालू असा.

- डॉ. अरूण हेबळेकार

**मंगळसूत्र :** हिंदू सौभाग्यवती बायलांचो गळ्यांत घालपाचो मुखेल अलंकार. काळ्या पिडुकांचे दोन सर आनी मदीं भांगराचो मणी अशें मंगळसुत्राचें सादारणशें स्वरूप आसता. आदल्या तेंपार ह्यो पिड्डुको अणशीचे दोरयेक गुंथताले. तातूंत पांच सर आसताले. हालींच्या काळांत चडशे भांगराचे सरपळेंत ह्यो पिड्डुको गुंथतात. सद्या भांगराच्या मणयाक तेंकून दोनूय वटेन एक एक पोवळें घालपाची पद्दत जाल्या. हालींच्या काळांत वेगवेगळे तरेची कलाकुसर करून मंगळसुत्रां बांदतात. महाराष्ट्र आनी कर्नाटक हांगा काळ्या पिड्डुकांचे दोन सर, मदीं भांगराच्यो दोन वाटयो, ताचे मदीं भांगराचें दोन मणी, तशेंच दोनूय वाटयांचे कुशीन दोन भांगराचे मणी आसतात.

वेदकाळांतल्या लग्नाचे विधींत मंगळसूत्र घालपाचो विधी ना. ही पद्दत हालींच्या काळांतली आसून ती दक्षिण भारतांतल्यान म्हणजेच द्रविड संस्कृतायेंतल्यान कर्नाटक- महाराष्ट्रांत आयली आसूंक जाय, अशें अभ्यासक मानतात. केरळ आनी तमिळनाडू वाठारांतल्या सगळ्या जाति-जमातींनी 'ताळी' नांवाचो एक सौभाग्यलंकार गळ्यांत बांदपाची रीत आसा. तातूंतल्यान मंगळसूत्र बांदपाची चाल आयली आसुंये. उत्तर भारतांत मंगळसूत्राची चाल ना.

लग्नाच्या विधींत कन्यादाना उपरांत लग्नहोमा आदीं न्हवरो व्हंकलेच्या गळ्यांत समंत्रक मंगळसूत्र बांदता. लग्नाच्या म्हुर्तारूच हो अलंकार घालतात, देखून ताका म्हूर्तमणी अशेंय म्हण्टात. घोव जितो आसासर बायलेन हें मंगळसूत्र घालपाचें आसता. मंगळसूत्र गळ्यांत नाशिल्ल्या सौभाग्यवती बायलांक जेवण वा धर्मीक कृत्यां करपाचो अधिकार ना, असो संकेत आसा.

गोंयांत व्हंकलेची आवय एक पदरी काळ्यो पिड्डुको आनी मदीं भांगराची वाटी आशिल्लें मंगळसूत्र व्हंकलेच्या गळ्यांत घालता. हाका 'दावल' अशेंय म्हण्टात.

कांय कारणांक लागून मंगळसूत्र कोचलें तर तें रोकड्यारोकडें दुरूस्त करून घेवपाचें आसता. दुरुस्तीच्या काळांत ती बायलमनीस लोकांचे नदरेक पडना अशी रावता. हे संकेत आता ल्हव ल्हव करून पातळ जायत आसात आनी सद्याच्या आधुनिक युगांतल्यो बायलो, विनाकारण गळ्यांतलें मंगळसूत्र काडून दवरतात आनी मंगळसूत्राबगर चारचौगांत वावुरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मंगळागौर :** एक सौभ्याग्यदात्री देवता. नवी लग्न जाल्ली व्हंकल श्रावणांतल्या दर मंगळाराक हे देवीचें व्रत करता. ह्या व्रतांत शिव आनी गणपती वांगडा गौरीचीय पुजा करतात. लग्नाउपरांत पयलीं पांच वर्सां वा सात वर्सां हें व्रत पाळटकच ताचें उद्यापन करतात.

पयल्या वर्सा हें व्रत आवयच्या घरा कुळारा करतात. हें व्रत चडकरून महाराष्ट्रांतल्यो ब्राह्मण बायलो करतात. ह्या व्रताक दूर्वा (हरयाळी), आघाड्याचीं पानां, तांदूळ, चण्याची दाळ, सोळा तरांची पत्री आनी सोळा दिवे लागतात. पुजेखातीर चौरंग मांडून, ताका केळीचे खूंट बांदून मखर करतात आनी तातूंत मंगळागौरीची मूर्त स्थापन करतात. व्रत करपी सवायशीण बायल न्हावन, धुल्लें वस्त्र न्हेसून सुरवेक दिवो लायता आनी पुजा करता. पुजा जातकच भटाक सौभाग्यवायण दिता. उपरांत सोळा वातींची मंगलारती करून, हातांत थोडे तांदूळ घेवन बसतात आनी मंगळागौरीची काणी आयकतात. ती काणी अशी- सुशीला नांवाचे एके साध्वी बायलेक मंगळागौर प्रसन्न जाता. तिचो घोव अल्पायुशी आसता. फुडें ताचें आयुश्य सोंपतकच यमदूत ताचो जीव घेवंक येता. तेन्ना मंगळागौर यमदुतांकडेन झगडून तिच्या घोवाचो जीव परतो हाडटा आनी तिका अखंड सौभाग्यपण दिता. भक्तिभावान केल्ले मगळागौरीचे पुजेचें अशें फळ मेळटा. ही काणी आयकतकच सवायशिणी बायलो हातांत आशिल्ले तांदूळ देवीचेर घालतात. दनपारचें मौन धरून जेवण जेवतात. रातचे थरावीक पदार्थ खातात.

गंवाच्या पिठाचो दिवो करून, तातूंत तूपवात घालून तो पेटत दवरतात. सोळा तरांचीं फुलां, तांदूळ, कोथमिऱ्यो, चण्याची दाळ, जिरें हांचे सोळा दाणे आनी सोळा तरांचीं पत्री देवीक ओंपतात. सोळा दिव्यांनी देवीक ओंवाळटात. वांगडच्यो लग्न जाल्ल्यो इश्टिणी एकठांय जमून वेगवेगळे खेळ, पदां, उखाणे, फुगड्यो घालून रात जागयतात. दुसरे दिसा तीळ, तूप आनी पायस हांचो होम करतात. सुपांत खण-पातळ, गोड पदार्थ आनी फळां घालून आवयक वा कुळारच्या सवायशिणीक वायण दितात. आठ दांपत्यांक जेवण दितात आनी गौरीचें विसर्जन करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मंगळार** : सप्तकांतलो तिसरो वार. ह्या दिसा पयल्या होऱ्याचो (वराचो) अधिपती मंगळ हो ग्रह आसता, म्हूण ताका 'मंगळार' हें नांव पडलां. हाकाच भौमवार अशेंय म्हण्टात. इंग्लिशींत हाका ट्युसडे (Tuesday) आनी फ्रेंच भाशेंत 'मार्दी' हीं नांवां युध्द देवतेवयल्यान आयल्यांत. भारतीय लोकूय मंगळ ही युध्ददेवता मानतात.

हिंदू लोक मंगळार हो अशुभ (घातपाताचो) दीस मानतात. ह्या दिसा व्हडलोसो प्रवास करचो न्हय आनी नव्या वस्त्राची घडी मोडची न्हय असो समज आसा. ह्या दिसा पार्वतीची आनी गणपतीची उपासना करतात. मंगळारा दिसा संकष्टी आयल्यार तिका अंगारकी म्हण्टात. हो दीस गणपतीचे उपासनेखातीर चड फलप्रद मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मंगेशकर, दीनानाथ** : (जल्म : २९ डिसेंबर १९००, मंगेशीं; मरणः २४ एप्रिल, १९४२, पुणें).

नामनेचो मराठी गायक आनी नट. ताच्या बापायचें नांव गणेशपंत नवाथे आनी आवयचें नांव येसूबाई आशिल्लें. दिनानाथाचें घराणें मंगेश देवस्थानाचे सेवेंत आशिल्लें. नामनेची पार्श्वगायिका लता मंगशेकर, आशा भोसले, मीना खर्डीकर, उषा मंगेशकर आनी हृदयनाथ मंगेशकर हीं ताचीं भुरगीं.



ताचें पुस्तकी शिक्षण चड जालें ना. ल्हान आसतना शाळेंत गेलो. पूण तेरा वर्सांचो आसतनाच ताणें नटाचो पेशा आपणायलो. फुडल्या जिवितांत ताणें संस्कृत, हिंदी, ऊर्दू भाशा तशेंच संगीत आनी ज्योतिश आदी विशयांचो खोलायेन अभ्यास केलो.

मुळांतच ऊंच पट्टेचो, खणखणीत आवाज ही सैमीक देणगी ताका मेळिल्ली. हाका लागून ताची नामना त्या काळांतल्या सगळ्या नांवाजिल्ल्या नाट्यसंस्थांच्या कानार गेल्ली. ताका लागून ह्या नाट्यसंस्थांची दीनानाथाक आपले संस्थेंत घेवपाक सर्त लागिल्ली. पूण प्रतिश्ठा आनी लोकप्रियतेन गाजपी किर्लोस्कर मंडळींत दीनानाथ गेल्यार ताच्या गुणांचें सार्थक जातलें, असो सल्लो दादा वैद्य, मंगेशराव देशपांडे आनी दुर्गाभटजी ज्योतिशी ह्या प्रतिश्ठीत लोकांनी दिल्ल्यान किर्लोस्कर मंडळीचें आमंत्रण आपणावपाचें अशें ताचे आवयन थरयलें. अशे तरेन १९१३ वर्सा किर्लोस्कर मंडळीच्या म्हापशें हांगा, करार करून दीनानाथाचे नाट्य जीणेक सुरवात जाली.

किर्लोस्कर मंडळीन गोंयासावन वतना बेळगांवां केल्ल्या मुक्कामांत 'शारदा' नाटक केल्लें. ह्या नाटकांत दीनानाथान केल्ली 'वल्लरी' ची भूमिका हें ताचें वेवसायिक रंगमाचयेवयलें पयलें काम. उपरांत ताच्यो 'ताजे वफा', 'काँटोंमें फूल' ह्या हिंदी - उर्दू नाटकांतल्यो भुमिका खूब लोकप्रिय थारल्यो. आपल्या प्रसन्न व्यक्तिमत्वान आनी निर्भर गायनान ताणें रंगमाची गाजोवन सोडली. अच्युतराव कोल्हटकरान दीनानाथाक 'मास्टर' हें उपपद दिलें.

किर्लोस्कर कंपनींतल्यान मा. दीनानाथ, चिंतामणराव कोल्हटकर प्रभृति नटसंच फुटून तांणीं १९१८ वर्सा 'बलवंत संगीत नाटक मंडळी'ची

स्थापणूक केली. तांचेभितर १९२० वर्सा जाल्ल्या कराराप्रमाण दीनानाथ 'बलवंत' चो मुखेल भागीदार जालो. १९३३ वर्सा मंडळी बंद करून सिनेमाच्या धंद्यांत वचचे पयलीं, बलवंत मंडळीन नवीं-पोरनीं मेळून चोवीसेक नाटकां माचयेर हाडलीं. दीनानाथाची सुरवेची 'किंकिणी' आनी उपरांत 'कालिंदी' (पुण्यप्रभाव); 'लतिका' (भावबंधन); 'पद्मावती' (उग्रमंगल); 'तेजस्विनी' (संन्यस्त खड्ग); 'गौतम' (ब्रह्मकुमारी); 'शिवांगी' (राजसंन्यास) ह्यो बायल-दादल्याच्यो भुमिका आनी ताचे स्वतंत्र वेगळे शैलीचीं पदां हांणीं नाट्य रसिकांक भारावन सोडलें.

रागदारी वांगडाच शास्त्रीय संगीतूय दीनानाथान स्वताच्या कश्टांनी आत्मसात केलें. पूण इतल्यानूच ताचें समाधान जालें ना. ताणें केशवराव भोसले आनी बापूराव पेंढारकर हांचो गुरू गायनाचार्य रामकृष्ण वझेबुवा हाका ताणें आपलो गुरू मानलो आनी ऑगस्ट १९२५ वर्सा बेळगांवां विधीपूर्वक वझेबुवाचो गंडो बांदलो.

दीनानाथ शास्त्रोक्त संगीतावांगडा नाट्यसंगितूय स्वताच्या स्वतंत्र आनी कल्पक शैलीन गायतालो. नाट्यसंगितांत ताणें पंजाबी ढंग पयलीं हाडलो अशें मानतात. ताणें गझल, कव्वाली, ठुंबरी गावन मैफली गाजयल्यो. आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्रावयल्यान वितरायल्लीं ताचीं पदां खूब लोकप्रिय जालीं.

श्रीमत् शंकराचार्यान दीनानाथाचो 'संगीत रत्न' म्हूण गौरव केलो. १९३४ वर्सा 'बलवंत पिक्चर कॉर्पोरेशन' काडून ताणें सिनेसृश्टींत प्रवेश केलो. 'कृष्णार्जुन युध्द' हो ताचो पयलो सिनेमा. ह्या सिनेमांत ताणें अर्जुनाची भुमिका केल्ली.

दीनानाथाक भारतीय ज्योतिश, रमल विद्या हांचो खोल अभ्यास आशिल्लो. तशेंच सारंगीवादन, कथ्थक नृत्य आनी शिकार हे ताचे आवडटे छंद आशिल्ले.

लता, आशा, मीना, उषा आनी हृदयनाथ ह्या आपल्या भुरग्यांक संगिताची जाण, ओड, निश्ठा आनी व्यासंग निर्माण करपाक मा. दिनानाथ यशस्वी जाले हें तांचेकडल्यान संगीत मळाक मेळिल्लें मोलादीक योगदान आसा. होच वारसो दीनानाथाचे पिळगेन, म्हळ्यार हृदयनाथाचे संततीन फुडें व्हेल्लो दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

## मंगेशकर, लता दीनानाथ : (जल्म : २८ सप्टेंबर १९२५, इंदूर).

संवसारीक नामना मेळिल्ली प्रतिभावंत गायिका. भारतीय चित्रपट संगितांतली युगप्रवर्तक आनी एक व्हड गायिका म्हूण तिका उपाट नामना मेळळ्या. मराठी रंगमाचयेवयलो नामनेचो गोंयकार गायक-नट मास्टर दीनानाथ मंगेशकर आनी श्रीमती माई (शेवंती) मंगेशकर हांची ती व्हडली धूव. बापायकडल्यानच तिका गायन कलेचो वारसो आनी मार्गदर्शन मेळ्ळें.

भुरगेपणांत तिणें 'बलवंत संगीत नाटक मंडळी' त ल्हान ल्हान भुमिका केल्यो. 'भावबंधन' ह्या नाटकांतल्या कुसुमाचे भुमिकेंत 'लाडकी असेच थोर' ह्या पदाक तिका भरपूर ताळयो पडटाल्यो. 'नवयुग' आनी 'प्रफुल्ल' ह्या मराठी चित्रसंस्थांच्या बोलपटांत तिणें अशोच ल्हान ल्हान भुमिका केल्ल्यो.



'पहिली मंगळागौर' हो तिचो पयलो चित्रपट. हातूंत तिणें मनूची भुमिका केल्ली. 'किती हंसाल' ह्या चित्रपटांतलें 'नाचू या गडे खेळू सारी' हें तिचें स्वतंत्र ध्वनीमुद्रित गीत (१९४२). पूण प्रत्यक्षांत ह्या गिताचो आस्पाव चित्रपटांत जावंक पावलो ना. देखून 'पहिली मंगळागौर' (१९४२) ह्या चित्रपटांतलें 'नटली चैत्राची नवलाई' हें मराठी चित्रपटांतलें तिचें पयलें पार्श्वगीत. नामनेची कथ्थक नर्तकी रोहिणी भाटे हिचेखातीर 'आपकी सेवा में' ह्या चित्रपटांत 'पा लागू कर जोरिरे' हें तिणें म्हणिल्लें हिंदी चित्रपट सृश्टींतलें पयलें पार्श्वगीत (१९४७) आसलें तरी तिचें, 'माता एक सपुतकी दुनिया बदल दे तू' हें पयलें हिंदी गीत 'गजाभाऊ' ह्या मराठी चित्रपटांत तिणें गायलें (१९४३).

उस्ताद अमान अली खाँ (भेंडीबाजारवाले), उस्ताद बडे गुलाम अली खाँ आनी देवासच्या राजबअली घराण्याचो अमानतखाँ हे तिचे शास्त्रीय संगितांतले मुखेल गुरू.

नामनेच्या संगीतकारांचीं वेगवेगळे तरेचीं, सुमार १,८०० वयर चित्रपटांतलीं सुमार २२ भाशेंतलीं २५ ते ३० हजारांवयर पदां लतान म्हळयांत. सगळ्या तरेच्या संवसारीक विक्रमांची नोंद करपी 'गिनीज बूक ऑफ वर्ल्ड रेकॉर्डस' ह्या ग्रंथांत संवसारांतलीं सगळयांत चड पदां ध्वनीमुद्रित करपी गायिका म्हूण तिचो उल्लेख आसा.

लता मंगेशकरान आपल्या अती सुरेल आनी परिपूर्ण अशा स्वरांनी लाखांनी रसिक आयुकप्यांक सुरांच्या सोबितकायेचो अणभव दिवपाचें मोलादीक कार्य केलां. तिचे गायनपद्दतीचो प्रभाव पार्श्वगायनाचेर आनी सुगम संगिताचेर पडिल्लो आसून तिणें पार्श्वगायनाक एक वेगळोच पांवडो मेळोवन दिला. तिच्या आवाजाची असामान्य उंचाय, खोलाय, लवचिकपण आनी फिरकी हाकालागून चित्रपट संगीतकारांक नवे प्रयोग करप शक्य

जाले. भाव परगटावपाखातीर आवाज कमी-चड संस्कारीत करून (Modulate) गावपाच्या तिच्या खाशेलपणाक लागून तिच्या गायनाक एक वेगळोच पांवडो प्राप्त जालो.

तिका राज्य, राष्ट्र आनी संवसारीक मळार जायते भोवमान मेळ्ळयात ते अशेः पद्मभूषण (१९६९); 'आस्थान विद्वान' (तिरुपती देवस्थान); 'स्वरभारती' (श्री. शंकराचार्य); कलाप्रवीण (जवाहरलाल नेहरू तंत्रशास्त्रीय विद्यापीठ; डी. लिट. शिवाजी विद्यापीठ, उस्मानिया विद्यापीठ, खैरापूर विद्यापीठ आनी पुणे विद्यापीठ (१९९०). 'सूरश्री' लंडनच्या रॉयल ॲलबर्ट हॉलांत जाल्ल्या यशस्वी कार्यक्रमाखातीर, 'स्वरलता' (आचार्य प्र. के. अत्रे). तेभायर तिका राज्य शासनाचें इनाम, 'फिल्म फेअर' ह्या चित्रपट नेमाळयाचीं पांच इनामां (१९५८, १९६२, १९६५, १९६९ आनी एक 'विशेश पुरस्कार १९९५); 'फिल्म क्रिटिक' चीं पांच' बेंगॉल जरनॅलिस्ट असोसिएशन' चीं स इनामां, सूरसिंगार संसदेचीं 'तानसेन' आनी 'रसेश्वर' हीं इनामां तिका मेळ्ळयांत.

हाचेभायर तिणें निर्माण केल्ल्या 'लेकिन' ह्या चित्रपटाक राश्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळा. (१९९०).

लंडनच्या ई. एम. आय. कंपनीचे वतीन तिच्यो वीस हजारां वयर ध्वनीमुद्रिका आयिल्ल्यान तिका भांगराची ध्वनीमुद्रिका भेट म्हणून दिल्या. हो भोवमान मेळोवपी लता मंगेशकर ही पयलीच भारतीय कलाकार. भारतांत जायतेकडे तिच्या संगीताचे कार्यक्रम जाल्यात. तशेंच परदेशांतय तिचे जायते संगीत दौरे जाल्यात.

तिणें निर्माण केल्ले चित्रपट अशे आसात- वादळ (मराठी १९५३), झांझर (हिंदी १९५३), कंचन (हिंदी १९५५), लेकिन (हिंदी १९९०).

तिणें संगीत दिल्ले चित्रपट अशे- राम, राम पाहुणं (१९५०), मोहित्यांची मंजुळा (१९६२), मराठा तितुका मिळवावा (१९६४), साधी माणसं (१९६५), तांबडी माती (१९६९). तिचो पयलो चित्रपट राम राम पाहुणं ह्या एकाच चित्रपटाक तिणें आपलें खरें नांव दिल्लें. तर उरिल्ल्या चित्रपटांखातीर तिणें 'आनंदघन' ह्या टोपण नांवान संगीत दिल्लें.

**तिणें काम केल्ले चित्रपट अशे :** पहिली मंगळागौर (१९४२), चिमुकला संवसार (१९४३), माझं बाळ (१९४३), गजाभाऊ (१९४४), बडी माँ (१९४५), जिवन- यात्रा (१९४६), सुभद्रा (१९४६), मंदिर (१९४८), छत्रपती शिवाजी (१९५२).

- कों. वि. सं. मं.

**मंगेश देवस्थान :** गोंयांतलें नामनेचें देवस्थान. हें फोंडें तालुक्यांतल्या प्रियोळ गांवांत पणजी-मडगांव ह्या मुखेल रस्त्याचेर पणजीसावन सुमार २१ किमी. अंतराचेर आसा. हें देवूळ ज्या वाठारांत आसा, त्या वाठाराक 'मंगेशी' म्हूण वळखतात.

पुर्विल्ल्या काळांत हें देवूळ साश्टी तालुक्याच्या कुशस्थळी वा कुठ्ठाळ ह्या वाठारांत आशिल्लें. परशुरामान गोमंतकांत वसोवपाखातीर त्रिहोत्र पुरासावन दशगोत्री ब्राह्मण आनी तांचीं ६४ कुळां हाडलीं म्हण्टात. ह्या कुळांनी मंगेश, शांतादुर्गा, नागेश, महालक्ष्मी, सप्तकोटेश्वर, महालसा आदी आपल्या कुलदेवतांच्यो प्रतिमाय हाडून गोंयांत स्थापन केल्यो. तातूंतले मंगेश दैवत मूळ कुशस्थळी हांगां स्थापन केल्लें. फुडें इ. स. १५१० त गोंयाचेर पुर्तुगेजांची सत्ता येतकच तांणी हांगा हिंदू धर्मियांचो छळ, बाटाबाटी, देवालयांचो विध्वंस करपाचें सत्र चलयलें. जेन्ना कुशस्थळीच्या श्री मंगेश देवस्थानाच्या कुळावी लोकांक खबर कळ्ळी की पुर्तुगेजांनी साश्टी तालुक्यांतल्या लोकांक बाटोवन थंयच्या देवालयांचो नाश करपाचो कट रचला, तेन्ना तांणीं रातोरात गुपीतपणान मंगेश देवाचें लिंग उखलून शेजारच्या आदिलशहाच्या राज्यांत जंय हिंदू सरदार तेवेळार अधिकाराचेर आशिल्ले, थंय फोंडें तालुक्याच्या प्रियोळ गांवांत व्हरून स्थापन केलें. ही स्थापना शालिवाहन शके १४८२ रौद्र नाम संवत्सरी म्हळ्यार इ. स. १५६० वर्सा जाली अशी म्हायती त्या देवस्थानाच्या पुर्विल्ल्या इतिहासांत मेळटा. हें स्थलांतर १ मे १५६० ह्या दिसा आदीं जालें अशें कोंपाजीय दे झेझुसच्या पाद्री मंडळान त्या काळांत बरोवन दवरिल्ल्या आनी आपल्या वरिश्ठांक सादर केल्ल्या अहवालांत बरयल्लें आसा. स्थलांतराक लागून ह्या देवालयाची इमारत त्या झेझुइट पाद्रींनी आपले चर्चीखातीर वापरली आनी आपल्या धर्माच्यो देवता थंय स्थापन केल्यो असोय तातूंत उल्लेख मेळटा.



कुशस्थळासावन प्रियोळ वाठारांत स्थलांतर करतकच थंय बांदिल्लें देवूळ कशें आशिल्लें हाचेविशीं म्हायती मेळना. उपरांतचें दुसरें देवालय मराठेशाहीच्या वैभव काळांत बांदिल्लें. ताचेउपरांत इ. स. १८९० त त्याच जाग्यार तिसरे खेपेक देवूळ बांदलें. चवथे खेपे ह्या देवळाचो जीर्णोद्धार शके १८९४ माघ शुक्ल पुनवेंत पुराय जालों आनी त्याच दिसा सुम्हुर्ताचेर १७ फेब्रुवारी १९७३ दिसा श्री मंगेश देवाच्या देवालयाचेर भांगराचो कळस बसयलो.

दर वर्सा ह्या देवालयांत माघ शुक्ल पुनवे दिसा महापर्वणी उत्सव मनयतात. ह्या देवस्थानांत दर सोमारा रातचो शिबिकोत्सव जाता. ह्या

देवस्थानाचे कुळावी वत्स आनी कौंडिण्य ह्या दोनच गोत्रांचे आसात. ह्या देवस्थानांत अग्रशाळेचीय सोय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मंगोल भास आनी साहित्य :** युरोपांतल्या तुर्कस्तानासावन उदेंतेकडल्या दर्यामेरेन आनी चीनाचे उत्तर शीमेपलतडीं दर्यामेरेन पातळिल्ल्या प्रदेशांतल्या भाशा कुटुंबाक अल्ताइक हें नांव आसा. हातूंत तुर्की, मंगोल आनी मांचु-तुंगूझ शाखांचो आस्पाव जाता.

मंगोल भाशांचे लिपीक 'कितान' अशें नांव आसा. मंगोलाच्यो तीन उपशाखो आसात- अस्तंतेकडली बोली, खाल्खा आनी बुर्यात. हे भाशेंत स्वरांची रचणूक समृध्द अशी आसा. तातूंत वीस स्वर आसात.

मृदुतालव्य क कंठ्य स्वरापयलीं घर्शक जाता. कंठ्य ग आनी घ दोन स्वरांमदीं आयल्यार ना जातात. तालव्य आनी दंत्य अर्धस्फोटक खूब प्रमाणांत आसात. ग्रांथिक मंगोलांत सुरवातेक र आनी ल हे वर्ण येनात, तशेंच निमाणें च आनी ज हे अर्धस्फोटक तशेंच व हो वर्ण येना.

हे भाशेंत लिंगभेद नात. पूण पुर्विल्ले भाशेंत तो आसुये. हे भाशेंत चड वचनाचे खूब प्रत्यय आसात. सगळयो मेळून आठ विभक्ती आसात. ग्रांथिक मंगोलांत प्रथम आनी द्वितीय सर्वनाम ना. तृतीय पुरूश सर्वनामाचे सुवातेर दर्शक विशेशण वापरतात. चडशे शब्द दोन वा तीन अवयवांचे आसात.

भुगोलिक नदरेन मंगोल भास स्वताच्या मंगोलिया ह्या मूळ प्रदेशासावन अस्तंत आशियांत खूब पयसमेरेन पातळ्ळया. हे भाशेचेर आयजमेरेन चिनी भाशेचो बरोच व्हड प्रभाव पडिल्लो दिसता. हालीं रशियनाचो प्रभावूय वाडट्या प्रमाणांत आसा.

तेराव्या शेंकड्यांत बरयल्ल्या 'सिक्रेट हिस्टरी ऑफ द मंगोल्स' ह्या इतिवृत्तासावन मंगोल भाशेंतल्या लिखित साहित्याची परंपरा सुरू जाली अशें दिसता. चंगीझखानाची जीण, ताची वंशावळ आनी ताचो काळ हो त्या इतिवृत्ताचो विशय आसा. ह्या इतिवृत्ता पयलीं तोंडी परंपरेन लेगीत हे भाशेंतलें बरेचशें साहित्य सांबाळ्ळां. ह्या साहित्यांत चडशा महाकाव्यांचो आस्पाव जाता. शूरांच्या धाडसी कथांचेर आदारिल्ल्या ह्या महाकाव्यांचे चंगीझखान, गेसरखान, ए. के. बोलोडखान हे नायक आसात. ह्या महाकाव्यांनी मँगस हो खलनायक आसा.

सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेक बौध्द धर्माचो प्रभावस्त्रोत मंगोल साहित्यांत आयलो. अठराव्या - एकुणिसाव्या शेंकड्यांत कांय अप्रुप अशा चिनी कादंबऱ्यांचे मंगोल अणकार जाले.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेचो एक नामनेचो साहित्यिक टी. झामट सारानो हाणें एडगर ॲलन पो, एच. जी. वेल्स ह्या अस्तंती साहित्यिकांचे ग्रंथ ताणें मंगोल भाशेंत अणकारीत केले. दामदिन सुरून हो आर्विल्लो श्रेश्ठ साहित्यिक.

- कों. वि. सं. मं.

**मंगोलीया प्रजासत्ताक :** आशिया खंडाचे उदेंतेक आशिल्लो एक स्वतंत्र प्रजासत्ताक देश. क्षेत्रफळ १५,६५,००० चौ. किमी. विस्तार ४१°३२' उत्तर ते ५२°१६' उत्तर अक्षांश आनी ८७°५०' उदेंत ते ११५°५४, उदेंत रेखांश. लोकसंख्या २३,०५,००० (१९९१). देशाचे उत्तरेक रशिया देश आसा. उरिल्ल्या तिनूय दिकांनी ताका चीन देशाचे शिमेन रेवाडला. देशाची उदेंत-अस्तंत लांबाय २,४१४ किमी. आनी दक्षिण-उत्तर रुंदाय १,२५५ किमी. आसा. उलान बाटोर ही देशाची राजधानी.

**भूंयवर्णन :** प्रजासत्ताकचो चडसो भूंयभाग पठारी आसून ताची दर्याथळासावन उंचाय सुमार ९०० ते १,५२०मी. आसा. भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे तीन वांटे केल्ले आसात. १) उत्तरेक आनी अस्तंतेकडेन आशिल्लो पर्वतावळींचो प्रदेश. २) उत्तरेक पर्वतावळींच्या मर्दी आशिल्ले पाण्टो वा द्रोणी प्रदेश. ३) उदेंतेक आनी दक्षिणेकडेन आशिल्लो पठारी आनी रेंवाट प्रदेश.

देशाचे उत्तरेकडेन आनी अस्तंतेकडेन आशिल्ल्या पर्वतावळींची निर्मिती आल्पायन काळांत जाल्ली आसुंये. ह्या पर्वतीय प्रदेशांतली वायव्य-आग्नेय दिकेन पातळिल्ली, सु. १,६०० किमी. लांबायेची आल्तायन, हांग्यन नूरू आनी देशाचे ईशान्येक आशिल्ली हेंटियन नूरू ह्यो तीनूय वळी म्हत्वाच्यो आसात. मंगोलीयन आल्ताय आनी गोबी आल्ताय हे आल्ताय वळीचे मुखेल फांटे. ताबन बोग्दो (उंचाय ४,६५३मी.) हो मंगोलीयन आल्ताय वळींतलो देशांतलो सर्वोच्च भाग. मुंकू खैरखान (उंचाय ४,२१०मी.) हें तेच वळींतलें दुसरें उंचेलें तेमूक. आल्ताय वळीचो दुसरो फांटो गोबी आल्ताय. ही वळ देशाच्या दक्षिणमध्य भागांत वायव्य-आग्नेय दिकेन पातळिल्ली आसा. इखे बोग्दो (३,९६२मी.) हें गोबी आल्ताय वळींतलें उंचेलें तेमूक. खांगाय वा हांग्यन नूरू ही देशांतली दुसरी म्हत्वाची पर्वतावळ आसून ऑत्खोनतेंग्री हें तिच्यांतलें ऊंच तेमूक. देशांतली तिसरी म्हत्वाची पर्वतावळ म्हळयार हेंटियन नूरू (खेतेंन). ही देशाच्या ईशान्य भागांत आसून तिची उंचाय सु. १,९०० ते २,४५०मी. इतली आसा.

देशाचे उत्तरेकडचो पर्वतांमदीं आशिल्लो भाग सरोवरांचो प्रदेश म्हूण प्रसिध्द आसा. हो भाग मुखेलपणान पर्वतांवयल्यान व्हांवून आयिल्ल्या गाळासावन तयार जाल्लो आसा. ह्या भागांत ३०० परस चड सरोवरां सांपडटात. दक्षिण भागांतले टूलागोल आनी ऑरकॉनगोल हे द्रोणीप्रदेश पिकाळ आसात.

देशाचो उदेंत भूंयभाग हो व्हड वसू मळांचो भाग आसून, हांगा ६०० ते ७००मी. मेरेन उंचायेच्यो साबार दोंगुल्ल्यो दिश्टी पडटात. ह्या भागांत साबार निद्रिस्त ज्वालामुखी शंकू सांपडटात. देशाचो उदेंत आनी दक्षिण भाग हे रेंवाट आसून, देशाचो उदेंतेकडचो चडसो भाग ग्रॅनायट आनी रुपांतरीत तळपांचो आसा.

सेलेंगा ही देशांतली मुखेल न्हंय. ती खांगाय पर्वताचेर उगम पावल्या. मुरेन आनी ईडेर हे सेलेंगा न्हंयचे मुखेल फांटे. ऑर्कॉन, डेलगेर, एगीन, चानुजन ह्योय देशांतल्यो कांय म्हत्वाच्यो न्हंयो आसात. देशाच्या दक्षिण भागांत हॉव्हड, द्झाबखान आनी उदेंतेक टूला, ओनॉन, केरलेन ह्यो न्हंयो व्हांवतात.

**हवामान** : हांगाचो शिंयाळो चड शितळ आनी गीम चड उश्ण आसता. गिमांतल्या आनी शिंयाळ्यांतल्या तापमानांत खूब फरक जाणवता. जानेवारींत सरासरी तापमान ३४° से. तर जुलय म्हयन्यांत तें १५°से. आसता. देशांत पावस सगळेकडेन सारको पडना. खब्सगल आनी हेंटियन नूरू प्रदेशांत पावसाचें प्रमाण १६ ते २० इंच तर गोबी रेंवाट प्रदेशांत फकत ४ ते ५ इंच आसता. देशांत गिमाच्या दिसांनी पावस पडटा. शिंयाळ्यांत पर्वतीय प्रदेशांनी हीम पडटा. ह्याच तेंपार रेंवाट प्रदेशांत कडक थंडी पडटा. शिंयाळ्यांत सरोवरांचें आनी कांय न्हंयांचें उदक गोठेता. गीमांत तें वितळिल्ल्यान न्हंयांक हुंवार येता.

**वनस्पत आनी मोनजात** : भूंयेचे साबार प्रकार आशिल्ल्यान वेगवेगळ्या विभागांत वेगवेगळी वनस्पत सांपडटा. देशाचे साप्प उत्तरेक स्टेप रानांचो प्रदेश आसून, ताचे सकयल ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्यांच्या देंवत्यांचेर दाट रानां आसात. देशाचे दक्षिणेक आशिल्ल्या पडंग आनी रेंवाट प्रदेशांत वाडपी वनस्पत सांपडटा. स्टेप रानांत मुखेलपणान लार्च, पायन, सीडार, स्प्रूस, भूर्ज, ॲस्पेन, पॉप्लर ही रुखावळ सांपडटा. देशाच्या मध्य भागांत कांय कडेन फेदर ग्रास, काउच ग्रास, किरमाणी ओंवो तणांचीं व्हड मळां आसात.

उत्तरेक आशिल्ल्या स्टेप रानांनी बिडाल, तांबडें हरण, एल्क, रो डिअर, कस्तुरी मृग, करड्या कोराचीं वास्वेलां, औंस, रानदुकर ही मोनजात सांपडटा. पातळ रानांनी गोबी अस्वल, रानघोडे, रानउंट सांपडटात. रेंवाट प्रदेशांनी रानमेंढरां सांपडटात. तांकां थळावे भाशेंत आर्गली अशें म्हण्टात. स्टेपच्या दाट रानांनी चंडोल, तितर, क्रेन (बळार), माळढोक हीं सुकणीं सांपडटात आनी बदकां, गल, पाणकोळी, पाणकावळो हीं सुकणीं न्हंयो आनी सरोवरां भोंवतणच्या प्रदेशांत सांपडटात.

**इतिहास** : मंगोलिया प्रजासत्ताकाच्या प्राचीन इतिहासाची म्हायती स्पश्टपणान मेळना. बाराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन मंगोल जमातीचो मुखेली जंगीझ खान (तेमूजी) हाणें शिंवरून पडिल्ल्या मंगोल लोकांक आनी हेर हेडगे जमातीच्या लोकांक एकठांय हाडून व्हड सैन्य उबारिल्लें. जंगीझ खान हो शिटूक, क्रूर, म्हत्वाकांक्षी आनी कडक शिस्तीचो आशिल्लो. तेराव्या शेंकड्याच्या पयल्या तीन दशकांत ताणें आपल्या सैन्याच्या आदारान चीन, मध्य आशिया आनी उदेंत युरोपाचे कांय प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडून, व्हड मंगोल साम्राज्याची स्थापणूक केल्ली. आपल्या साम्राज्याचो विस्तार करपाच्या हेतून मंगोल सैन्य हेर देशांचेर घुरयो घालून थळाव्या लोकांची क्रूरपणान हत्त्या करताले. हाका लागून मंगोल साम्राज्याच्या भोंवतणच्या देशांतल्या लोकांनी मंगोल सैन्याची धास्ती घेतिल्ली. १२२७ त जंगीझ खानाक मरण आयले उपरांत ताचो पूत ओगोताय हाणें मंगोल साम्राज्याचो विस्तार चालूच दवरलो. १२४१ त ताणें १,५०,००० मंगोल सैनिकांच्या आदारान हंगेरी आनी पोलंडाचेर घुरयो घाल्यो. ही मोहीम चालींत आसतनाच ओगोताय हाका मरण आयलें. उपरांत जंगीझ खानाचो नातू कुबलाय खान हाणें दक्षिण चिनांतल्या सोंग राजवंशाचो पराभव करून चीन देश काबीज केलो आनी थंय यूआन राजवंशाची स्थापणूक केली. मुखार हो राजवंश थंय १२७९ ते १३६८ मेरेन तिगून आशिल्लो. कुबलाय खानाच्या मरणा उपरांत मंगोल साम्राज्याचे ल्हान ल्हान कुडके जाले. मंगोल हे धाडसी झुजारी आशिल्ले. पूण प्रशासनाविशीं तांकां साप्प उणो अणभव आशिल्लो. हाका लागून व्हड मंगोल साम्राज्य चड काळ तिगूंक शकलें ना.

मंगोल साम्राज्याचे कुडके जाल्या उपरांत, १५८३ मेरेन मंगोल प्रदेश तुमेट टोळये कडेन आशिल्लो. उपरांत तो चाहार टोळयेकडेन गेलो. १६३५ त चाहार टोळयेचो पराभव करून मांचू लोकांनी थंय आपलो शेक बसयलो. पूण उत्तर आनी दक्षिण मांचू लोकांत एकसारकीं झगडीं जायत राविल्ल्यान, मुखार मंगोलीयाचे दोन वांटे जावन उत्तरेकडच्या प्रदेशाक आउटर मंगोलीया आनी दक्षिणेकडच्या प्रदेशाक इनर मंगोलिया अशीं नांवां मेळ्ळीं. इनर मंगोलियांतल्या मांचू राजांनी आपल्या प्रदेशाचो चीनांत आस्पाव केलो. सतराव्या शेंकड्याच्या निमाणेंकडेन आउटर मंगोलीया आनी अस्तंत मोगलांची सदांच झगडीं जायत राविल्ल्यान आउटर मंगोलीयाची राजकीय आनी अर्थीक स्थिती साप्प इबाडिल्ली. हे परिस्थितीचो फायदो घेवन दक्षिणेकडच्या मांचू राजांनी आउटर मंगोलीयाचो चिनांत आस्पाव केलो. १६९१ ते १९११ मेरेन तो प्रदेश चिनाच्या शेकातळा उरलो. १९११ त रशियेच्या आदारान चिनांत जाल्ले क्रांतीचो फायदो घेवन मंगोलांनी स्वतंत्र प्रजासत्ताकाची घोशणा केल्ली. पूण मंगोलीयाची स्वायत्ताय चड काळ तिगली ना. १९१७ त रशियेंत सुरू जाल्ले क्रांतीचो फायदो घेवन चिनान मंगोलीया विभाग परतून आपल्या शेकातळा हाडलो. पूण १९२१ त मंगोलीयान रशियेंत स्थापीत जाल्ल्या कम्युनिस्ट सरकाराच्या आदारान आउटर मंगोलीयाचें स्वातंत्र्य जाहीर केलें आनी आदल्या मंगोल राजेशाहीची परतून स्थापणूक केली. राजा बोग्दोच्या मरणा उपरांत राजेशाहिचो अस्त जावन २६ नोव्हेंबर १९२४ दिसा 'मंगोल पिपल्स रिवोलुशनरी पार्टी' ह्या कम्यूनीस्ट पक्षान सगळीं राजकीय सुत्रां आपल्या हातांत घेवन देशाचें नांव मंगोलियन पिपल्स्

रिपब्लीक दवरलें. उपरांत त्या कम्यूनीस्ट पक्षान देशांतल्या हेर पक्षांचेर बंदी घालून १९९० मेरेन मंगोलियांत सत्ता गाजयली.

मंगोलियांत कम्यूनिस्ट राजवट आयले उपरांत रशिया आनी मंगोलिया भितल्ले संबंद घट्ट जावन, दोनूय देश कम्युनिस्ट विचारसरणी हेर देशांनीय पातळपाचो वावर एकठांय येवन करपाक लागले. १९३९ त पयल्या म्हाझुजाचे सुरवेक, जपानान मॉंचुरियाचेर घुरी घाल्ली तेन्ना रशिया आनी मंगोल सैन्यान ती घुरी परतून उमथून उडयली. २० ऑक्टोबर १९४५ दिसा देशांत भौशिक मत घेवन मंगोलिया प्रजासत्ताक हें सार्वभौम स्वतंत्र राश्ट्र म्हूण घोशित केलें. ५ जानेवारी १९४६ दिसा ताका चीनाची मान्यताय मेळ्ळी. १९६१ अमेरिकेन ताका मान्यताय दिल्या उपरांत मंगोलियाक संयुक्त राश्ट्रांचें सभासदत्व मेळ्ळें. १९९०त मंगोलियान बहुपक्षीय लोकशाय पद्दत आपणायली. पूण आयज लेगीत मंगोल राजकारणांत कम्युनिस्ट लोकांचो चड शेक आसा.

**राज्यवेवस्था :** १९६० त आपणायल्ल्या संविधाना प्रमाण देशाची सगळी सत्ता 'ग्रेट पिपल्स हुशल' म्हळयार संसदेच्या हातांत आसा. तातूंत ४३० सदस्य आसून तांकां प्रौढमतदानान पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात. देशा भितल्लें, तशेंच परकीय धोरण आंखपाचे आनी संविधानाच्या कायद्यांत सुदारणा करपाचे हक्क संसदेक आसात. संसदेचे सदस्य कनिश्ट हुराल, अध्यक्ष आनी प्रशासकीय समितीचें मंत्रीमंडळ वेंचून काडटात. अध्यक्ष हो देशाचो मुखेली तसोच सशस्त्र सेनांचो सरसेनापती आसा. कनिश्ट हुरालांत ५३ सदस्य आसून, कायदे आनी अदमासपत्र (budget) काडपाचे हक्क तांकां आसात. प्रशासकीय समितीचे वांगडी अध्यक्षाच्या सल्ल्या प्रमाण सरकार चलयतात.

**अर्थीक स्थिती :** रशियेच्या फाटबळान १९४८ सावन सुरू केल्ल्या पंचवर्सुकी येवजण्यांक लागून मंगोलियाच्या शेतकी आनी उद्येगधंद्याच्या मळार खूब उदरगत जाली. तेच प्रमाण शीतझुजावेळार साम्यवादी आनी कॉमेकोन सदस्याकडच्यान मंगोलियाक खूब प्रमाणांत आदार मेळपाक लागलो. शेतवडीच्या मळार व्हडा प्रमाणांत रसायनीक सात्याचो आनी यंत्राचो उपेग जावपाक लागला. हाका लागून फाटल्या कांय वर्सांसावन पुरायपणान शेतवडीचेर आदारून रावपी लोकसंख्या खूब उणी जाल्या. १९२१त देशांत कम्युनिस्ट सत्ता आयल्या उपरांत, सरकारान जमिनदारांकडच्यान शेतजमनी घेवन त्यो सहकारी कृषीसंस्था आनी शासकीय कृषीसंस्थांकडेन दिल्यो. त्या दोनूय संस्थांचे देखरेखीखाला मंगोलियन शेतवडीच्या मळार उंचेलो पांवडो हातासला. मको, गंव, सातू, ओट, बटाट आनी भाजीपालो ही हांगाची मुखेल पिकावळ.

पशुपालन हो हांगाचो मुखेल वेवसाय. वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांत पशुपालनासावन मेळपी येणावळीचो व्हड वांटो आसा. उंट, घोडे आनी गोरवांच्यो संकरीत जाती तयार करून तांची निर्यात करप हें हांगाचें खाशेलपण. गोरवां, बोकडां आनी मेंढरां पोसपाच्या वेवसायाक म्हत्व प्राप्त जाल्ल्यान मांस आनी दूद वेवसाय नेटान चलतात. त्या वेवसायाची वाड करपाखातीर सरकारान लोकांक कांय खाशेल्यो सवलती दिल्यात.

खनिजांच्या मळारूय मंगोलीया देश गिरेस्त आसा. फातरी कोळसो, लोखण, तांबें, कलय (tin), भांगर, रुपें, फ्लॉअरस्पॅर, टूंगस्टेन हांचे सांठे व्हडा प्रमाणांत सांपडटात.

दर एके पंचवर्सुकी येवजणेंत उद्येगधंद्याचेर खास भर दिल्ल्यान १९७० मेरेन उद्येगधंद्यांत खूब वाड जाली, आनी राश्ट्रीय उत्पादनांतलो सुमार चवथो वांटो उद्येगधंद्यांसावन मेळटालो. सद्या उद्येगधंद्यांचो विस्तार, यंत्रशास्त्र कार्यक्षमता, विविधताय आनी चडांतचड उत्पादन हांचेर भर दिल्या. अन्न प्रक्रिया, कपडो निर्मणी, यंत्र निर्मणी, पांयतणां, रसायनां, शिमीट आनी दीसपट्ट्यो गरजेच्यो वस्तू हांचे कारखाने हांगा बऱ्याच प्रमाणांत आसात. उलान बाटोर, एर्डेनेट आनी बागा नूर हीं देशांतलीं मुखेल उद्येगीक केंद्रां.

शितझुजा वेळार मंगोलियाचे मुखेलपणान कम्युनिस्ट देशांकडेनूच वेपारी संबंद आशिल्ले. १९९० उपरांत सगळ्या देशांकडेन वेपारी संबंद जुळोवपाचे यत्न मोंगोलीया करीत आसा. टुग्रीक हें देशांतलें अधिकृत चलन आसून, १०० मोंगो म्हळयार १ टुग्रीक. १९२४ त स्थापित केल्ली मंगोलीया स्टेट बँक ही देशांतली एकमेव बँक आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** १९९१ चे जनगणने प्रमाण देशाची लोकसंख्या २,३०५,००० इतली आशिल्ली. वट्ट लोकसंख्येंतले सुमार ८७% लोक मंगोल वंशाचे आसात. तशेंच चाहार, बुर्यात, दरिंगा मंगोल, खजाक, त्साटान आनी दर्खत जमातीचेय लोक थंय रावतात. चिनी आनी रशियन लोकांचोय आस्पाव कांय प्रमाणांत आसा. हालींच्या तेंपार शारांचो खूब विस्तार जाल्लो आसलो तरी आयज लेगीत चडशे लोक गांवगिऱ्या वाठारांनी रावतात. मंगोल ही देशाची राज्यभास आसून, तिच्यो वेगवेगळ्यो बोली आसात. चडशे लोक खलखा मंगोल ही बोली उलयतात. मंगोल भास सिरिल्लीक हे रशीयन लिपींत बरयतात. सद्या, रशियन लिपी काडून तिचे सुवातेर पोरने मंगोल लिपीचो वापर करपाचो यत्न चालू आसा. 'लामा बौध्द' हो हांगाचो अधिकृत धर्म. देशांत कम्युनिस्ट राजवट आशिल्ली, तेन्ना धर्मीक रिवाजांचेर कायद्यान बंदी आशिल्ली. पूण १९९० त मंगोलियन लोकशाय पद्दतीचो पुरस्कार केले उपरांत धर्मीक रिवाजांचेर चड भर दिला.

- कों. वि. सं. मं.

**मंजीखाँ :** (जल्म : सुमार १८८८, उनियारा, जयपूर; मरण : २७ जुलय १९३७, मुंबय).

हिंदुस्थानी संगीतक्षेत्रांतलो एक म्हान गायक. मंजीखाँ हो

संगीतसम्राट अल्लादियाखाँ हाच्या तीन पूतांतलो, मदलो पूत. ताचें सगळें भुरगेपण कोल्हापुरांत गेलें. ताका लागून मराठी भाशेचेरूय आपले आवयभाशे इतलेंच ताचें प्रभुत्व आनी मोग आशिल्लो. ल्हानपणांतूच ताका बापायची आनी बापोलयो हैदरखाँ हाची धृपदधमाराची आनी उपरांत ख्यालाची तालीम मेळ्ळी. ताच्या ख्यालांत आलापी, बोल-आलाप, बोलतान, तानफिक्रे दिसून येतात. मंजीखाँचो आवाज बारीक पूण गोड आनी भावनीक आशिल्लो. ताचे गायकीचीं मुळावीं आंगां अल्लादियाखाँ हाचेच गायकीच्या आदाराचेर उबारिल्लीं. अल्लादियाखाँ हाची असामान्य गायकी सामान्य आयकुप्यांक वा गायकांक समजनाशिल्ल्यान, मंजीखाँन ती गायकी विंगड विंगड स्वरुपांत मांडून सगळयांक ते गायकेचें म्हत्व पटोवन दिलें.

ग्वाल्हेर परंपरेचो हद्दूखाँ, हाचो पूत रहिमतखाँ हाचे धाटणीचो मंजीखाँचेर खोलायेन संस्कार जाल्लो. कांय काळ बापायवांगडा कलकत्त्याक राविल्ल्यान थंयच्या मौजुद्दीनखाँ आनी हेर गायकांच्या पूरब ढंगाचे ठुमरीचें गायन ताका आयकुपाक मेळ्ळें. मुळांत गोड गळो आनी भावनासुलभ रसिक वृत्ती आशिल्ल्यान तीय गायकी ताणें सहज आत्मसात केली.

मराठी पदां आनी त्या काळांतल्या आर्विल्ल्या कवींचीं कवनां तो सामके भावपूर्णतेन गायतालो. ख्याल, ठुमरी, भजन, गझल, मराठी पद असो कसलोय प्रकार आसूं, शब्दांक भावनेचो सुवास लावपाची ताची वृत्ती आशिल्ली. माधव जूलियनाची 'ऐकिव तव मधुबोल', गडकऱ्याची 'बजाव बजाव मुरली' वा गिरीशाची 'सोडू कुठे ही चिमणी बाळे' ह्यो कविता मैफलींतल्यान बरे तरेन सादर करपी तो पयलोच गायक आशिल्लो. नामनेचो व्हड गायक मल्लिकार्जुन मन्सूर हो मंजीखाँचो पट्टशिश्य.

- कों. वि. सं. मं.

**मंजुल रामायण** : एक संस्कृत रामायण. ह्या रामायणांत एक लाख वीस हजार श्लोक आसात. सुतीक्ष्ण नांवाच्या ऋषीन स्वारोचिष मन्वंतराच्या चवदाव्या त्रेतांत हाची रचणूक केल्ली आसून, तें सात सोपानांत निबध्द आसा. भानुप्रताप अरिमर्दनाची कथा हो हातुंतलो खाशेलो भाग आसा. तशेंच हनुमान आनी सीता हांचो अशोक वनांतलो संवाद, हनुमंताक सांगिल्ली भक्ती व्याख्या, शबरीक सांगिल्ली नवविधा भक्ती, हे विशय ह्या रामायणांत आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**मंजुश्री** : एक बोधिसत्त्व. ज्ञानाची देवता. महायानी बौध्द हाका अवलोकितेश्वराच्या खालोखाल मान दिवन ताची उपासना करतात. निष्पन्नयोगावलींत हाचें रुपध्यान वर्णिलां तें अशें-तीन तोंडां, तीनूय तोंडांचे हळदुवो, नीळो आनी धवो अशे वर्ण, स भुजांचो, उजव्या दोन हातांत तलवार आनी बाण. अज्ञानांचो नाश करप हो त्या शस्त्रांचो उपेग. तिसरो हात वरद मुद्रेंत. दाव्या तीन हातांनी प्रज्ञापारमिता हें पुस्तक, नील कमल आनी धोणू. अक्षोभ्य ह्या ध्यानी बुध्दापसून हाचो जल्म जालो अशें सांगलां. यमारी ही मंजुश्रीची शक्त आसा. ती सदांच ताचेवांगडा आसता. केन्ना केन्नाय सुधनकुमार नांवाचो एक मनीसूय ताच्या शेजरा आसता. साधनमाळेंत मंजुश्रीचीं ३९ साधनां आनी ४० ध्यानां दिल्यांत. मंजुश्रीची उपासना केल्यार धारणा, धर्मग्रंथांचें गिन्यान आनी वक्तृत्व मेळटा अशें म्हळां. मंजुश्रीचे उपासनेचे जायते मंत्र आनी हेर प्रकार आसात.

बौध्द संप्रदायांत मंजुश्रीचो केन्ना आस्पाव जालो तें कळप कठीण. गांधार आनी मथुरा हांगाच्या शिल्पांनी मंजुश्रीची मूर्ती दिसना. अश्वघोष, नागार्जुन आनी आर्यदेव हे बौध्द विद्वान मंजुश्रीच्या नांवाचो उल्लेख करीनात. मंजुश्रीचो सगळयांत पयलीं उल्लेख आयला तो 'सुखावतीव्यूह' ह्या ग्रंथांत. इ. स. च्या चवथ्या शेंकड्याचे निमाणें ह्या ग्रंथाचो चिनी भाशेंत अणकार जालो. त्या काळासावन फुडें बौध्द वाङमयांत मंजुश्रीचे जायते उल्लेख मेळटात.

मंजुश्रीची उपासना मुळांत भारतीय आसली, तरी चीनांत हे उपासनेची वेगळे तरेन उदरगत जाली. पयलींसावन मंजुश्री ही गिन्यान आनी चातुर्य हांची देवता थारल्या. प्रज्ञापारमिता ह्या ग्रंथाचो आविश्कारलेगीत ताणेंच केला, अशी एक आख्यायिका आसा.

तिबेटी तांत्रिक बौध्दधर्मांत मंजुश्रीक खूब हिसपाभायर म्हत्व आसा. थंयच्या चडशा तंत्रांक मंजुश्रीचीं नांवां दिल्यांत. तिबेटी साधनेचे क्रियेंत जीं मंडलां आसतात, तांचे मदेगाक चडकरून मंजुश्रीची प्रतिश्ठापना केल्ली आसता. चडकरून अवलोकितेश्वराचें शिवाकडें आनी मंजुश्रीचें ब्रह्मदेवाकडें नातें दाखयल्लें आसता. वज्रराग, धर्मधातुवागीश्वर, मंजुघोष, सिध्दैकवीर, वज्रानंग, नामसंगीती, वागीश्वर, मंजुवर, मंजुवज्र, मंजुकुमार, अरपचन, स्थिरचक्र आनी वादिराट हीं मंजुश्रीचीं विंगड विंगड रुपां आसून, तांचीं मूर्तीध्यानांय वेगळीं आसात.

'सध्दर्मपुंडरीक सूत्रांत' ताणें खूबशा लोकांक उपदेश करून दर्यांतल्या प्राण्यांक मार्ग दाखयलो, तांचे आपापले कुवतीप्रमाण तांचीं धर्मीक ध्येयां मेळोवन दिलीं आनी दर्यांतूय सध्दर्मपुंडरीक सूत्राचें वाचन केलें अशें म्हळां. 'साधनमाला' ह्या वज्रयान पंथाच्या ग्रंथांत मंजुश्रीविशीं बरीच म्हायती आयल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**मंडणमिश्र** : (सातवो शेंकडो). : एक नामनेचो भारतीय प्रकांड दार्शनिक पंडित आनी मीमांसक. ताचें मूळ नांव विश्वरूप आशिल्लें. पूण

मंडणमिश्र ह्या नांवानूच ताका चड वळखताले. ताच्या बापायचें नांव हिममित्र. आनंदगिरीन मंडणमिश्र हाका कुमारिलभट्टाचे भयणीचो घोव मानला. पूण कांय पंडितांनी ह्या नात्याविशीं दुबाव उक्तायला. मंडणमिश्र हो शुक्ल यजुर्वेदी काण्वशाखीय ब्राह्मण आशिल्लो. शोण न्हंयेचे देगेर रावपी विष्णुमित्र ह्या ब्राह्मण पंडिताची धूव अंबा वा उंबा ही मंडणमिश्राची बायल. तीय एक नामनेची विदूषी आशिल्ल्यान लोक तिका भारती ह्या नांवान वळखताले. मंडणमिश्र आनी भारतीचें लग्न जातकच लोक तांकां ब्रह्मदेव आनी सरस्वती हांचे अवतार मानूंक लागले. मंडणमिश्र खूब गिरेस्त आशिल्ल्यान लोक ताका महागृही अशेंय म्हण्टाले. मंडणमिश्राचे जल्मभूंयेविशीं विद्वानांत एकमत ना. कांय जाणांच्या मतान मंडणमिश्र हो माहिष्मती हांगा रावपी मैथिल पंडित. बिहारांतल्या भागलपूर जिल्ह्यांत महिषी नांवाचो गांव आसा. त्या गांवाक पयलीं माहिष्मती अशें म्हण्टाले अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. पूण कांय अभ्यासकांच्या मतान माहिष्मती हें मध्य प्रदेशांतलें महेश्वर हें आसा. 'तैत्तिरीयोपनिषद्भाष्यवार्त्तिक' आनी 'बृहदारण्यकोपनिषदभाष्यवार्त्तिक' ह्या ग्रंथांचो कर्तो आनी शृंगेरी पीठाचेर शंकराचार्य म्हूण अधिश्ठित जाल्लो सुरेश्वराचार्य होच मंडणमिश्र आसा असो एक समज आसा.

पूर्वमीमांसा दर्शनाचेर मंडणमिश्राचे तीन ग्रंथ आसात. १) विधिविवेक २) भावनाविवेक ३) मीमांसाभाष्यानुक्रमणिका. विधिविवेकांत वेदवाक्याच्या क्रियापदांतल्या विध्यर्थवाचक प्रत्ययाच्या अर्थाची चिकित्सा केल्या. 'भावनाविवेक' ह्या ग्रंथांत ताणें विस्तारान आर्थी भावनेची मीमांसा केल्या. 'मीमांसासूत्रानुक्रमणी' ह्या ग्रंथांत मीमांसासूत्रांचें संक्षिप्त श्लोकबध्द व्याख्यान केलां.

'स्फोटसिध्दि' हो ताचो ग्रंथ भाशेच्या तत्त्वगिन्यानाविशीं आसा. वेदान्ताचेर बरयल्ल्या ह्या ग्रंथांत अद्वैत तत्त्वगिन्यानाचेर मांडिल्ल्या सिध्दान्तांक लागून शांकरमताच्या आचार्यांत मंडणमिश्राक सगळयांत चड श्रेश्ठत्व मेळळां. ताच्या 'विभ्रमविवेक' हे ज्ञानप्रकियेची चर्चा करपी ग्रंथांत भ्रम वा 'ख्यातिवाद' हाच्या चार प्रकारांची विस्कटावणी करून तातूंत मीमांसकांच्या भाट्ट मतांतल्या नामनेच्या ख्यातींचें समर्थन केलां. 'ब्रह्मसिध्दि' ह्या ताच्या ग्रंथांत अद्वैत वेदान्ताचें प्रतिपादन केलां.

मंडणमिश्र हो व्हड मीमांसापंडित आशिल्लो. मीमांसेंतल्या भाट्ट मताचो ताणें पुरस्कार केला. तशेंच उपनिषदांतल्या अद्वैत सिध्दांताचें प्रतिपादन करतना, तितक्याच धीरान ताणें कुमारिलांच्या मताचो विरोध केला. पूर्वमीमांसा आनी उत्तरमीमांसा हांचो मेळ सादपी भूमिका हें मंडणमिश्राचें खाशेलपण आसा. मंडणमिश्र हो वैदिक कर्मकांडाचो एकनिश्ठ उपासक आशिल्लो. वेद हे अपौरूषेय आसून, ते स्वयमेव प्रमाण आसात आनी वेदोक्त धर्म होच मनशाक अभ्युदय-निश्रेयस सादून दिवपी धर्म आसा असो ताचो भावार्थ आशिल्लो. उपनिषदांतले अध्यात्मचर्चेक तो चड प्राधान्य दितालो.

मंडणमिश्राची लिखाणाची शैली सरळ, स्वाभाविक आनी मवाळ आसा. गद्य आनी पद्य ह्या दोनूय क्षेत्रांनी ती सारकीच दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

## मंडलिक, विश्वनाथ नारायण : (जल्म : ८ मार्च १८३३; मरण : ९ मे १८८९, मुंबय).

नामनेचो कायदेपंडित, पत्रकार, लेखक आनी समाजसुदारक. तांका रावसाहेब मंडलिक ह्याच नांवान लोक वळखताले. मुरूड, रत्नागिरी आनी उपरांत मुंबयच्या एल्फिन्स्टन इन्स्टिट्यूटांत शिक्षण घेतकच १८५२ वर्सा ताणें मुखेल हिशेब तपासनीस म्हूण पयलीं नोकरी केली. हाचे पयलीं, पिरायेच्या आठव्या वर्सा, अंजर्ले हांगाच्या काणे उर्फ हवालदार हांच्या घराण्यांतले सात वर्सांचे सखुताई हिचेकडे ताचें लग्न जालें.

समाज सुदारणेचो पुरस्कार करून मंडलिकान भौशिक जिणेंत मोलादीक वावर केलो. पूण कायद्यान समाज सुदारणा लादची न्हय अशें ताचें मत आशिल्लें. १८५५ वर्सा शाळाखात्यांत निरीक्षक म्हूण रुजू जालो आनी खेड्याखेड्यांनी शाळा सुरू केल्यो. १८५८ वर्सा वसई हांगा न्यायखात्यांत मुन्सफ म्हूण नोकरी करतकच परतून शिक्षण खात्यांत आनी उपरांत आयकर खात्यांत नोकरी केली. ह्या सरकारी नोकऱ्यांक लागून ताका भूज, कराची अशा पयसुल्ल्या सुवातींनी भोंवचें पडलें. मजगतीं ताणें वेपारांतूय लक्ष घालें पूण तातूंत ताका यश मेळ्ळेंना. बारा वर्सां सरकारी नोकरी करतकच १८६३ वर्सा तो वकिलीची परीक्षा पास जालो आनी जून १८६३ वर्सा सावन मुंबय उच्च न्यायालयांत ताणें वकिलीक आरंभ केलो. १८६४ वर्सा, एतद्देशीय लोकांचें मत इंग्रज राज्यकर्त्यांच्या कानार वचचें ह्या हेतान ताणें 'नेटिव्ह ओपिनियन' हें इंग्लीश दिसाळें सुरू केलें. तें १९०६ मेरेन चालू आशिल्लें. शिक्षणाच्या प्रसारावांगडाच ताणें बायलांच्या शिक्षणाचोय पुरस्कार केलो. विधवा बायलांचे पुनर्विवाह घडोवन हाडप, हुंड्याचेर बंदी घालप, जातिभेद तशेंच हिंदुंचे अंधश्रध्देचे कर्मठ आचार-विचार हांचेर ताणें खर हल्लो केलो. तेन्ना ताका ह्या 'नेटिव्ह ओपिनियन' दिसाळ्याचो खूब उपेग जालो.

१८७६ वर्सा मुंबय उच्च न्यायालयांत ताची सरकारी वकील म्हूण नेमणूक जाली. मुंबय वकील परिशदेचो अध्यक्ष म्हणुनूय ताणें काम पळयलें. ह्या काळांत ताणें खूबशा म्हत्वाच्या खटल्यांनी नोंद केल्ली मतां आयज लेगीत गरजेचीं मानतात. मुंबयचे 'रॉयल एशियाटिक सोसायटी' चो तो उपाध्यक्ष आनी सभासद आशिल्लो. ताणें मुंबय विद्यापिठांत फेलो, डीन आनी सिंडिकेट सदस्य म्हणुनूय काम केलें. १८७९ वर्सा तो मुंबय नगरपालिकेचोय अध्यक्ष आशिल्लो. उपरांत 'स्टुडंट्स लिटररी अँड सायंटिफिक सोसायटीचो, सचिव आनी अध्यक्ष

म्हूण ताणें काम केलें. मुंबय कायद्या कौन्सिलाचो तो तीन वेळा आनी गव्हर्नर जनरलच्या कलकत्ता हांगाच्या कौन्सिलाचो एकदां सभासद आशिल्लो. १८८० वर्सा मुंबयच्या 'रॉयल एशियाटिक सोसायटी' चोय तो सदस्य आशिल्लो.

मंडलिकान आपल्या लिखाणान मराठी वाङमयांत म्हत्त्वाची भर घाली. इंग्लीश, लॅटीन, फार्सी, संस्कृत, मराठी, गुजराती, सिंधी ह्या भाशांचो खोलायेन अभ्यास केल्लो. ताचें चडशें लिखाण, अणकार, संकलनात्मक आनी बोधक स्वरूपाचें आशिल्लें. तेभायर ताच्यो दीसपटयो, पत्रवेव्हार हातुंतल्यानूय ताचे मोलादीक विचार दिसून येतात.

मंडलिकाचे कांय म्हत्वाचे ग्रंथ अशे आसात - १) 'सवयी आनी अभ्यास' (१८५७). २) 'हिंदु लोकांच्या मध्यंतरीय अवस्थेविषयी विचार' (१८६२). ३) 'हिंदुस्थानचा इतिहास' ( ३ खंड, १८६१-६२). ४) 'दिवाणी कायद्याची चूर्णिका'. ५) 'कोकणातील वतनदार खोतांचा इतिहास'. ६) 'मुंबई इलाख्याचा इतिहास व भूगोल'. ताणें इतिहास, धर्मशास्त्र, ज्योतिशशास्त्र, राज्यशास्त्र, कायदो, साहित्य ह्या विशयांनी व्यासंगपूर्वक ल्हान-व्हड ग्रंथ बरयले. १८८० वर्सा ताणें 'व्यवहारमयूख' आनी 'याज्ञवल्क्यस्मृति' ह्या ग्रंथांचो इंग्लिशींत अणकार केलो. तशेंच ताच्या उजवाडा आयिल्ल्या निबंदांभितर बायलेचें शिक्षण, विधवाविवाह, जातिनिर्मुलन, शिगमो, मुरुडचो इतिहास, अस्तंत हिंदुस्थानांतली नागाची पुजा, महाबळेश्वर हांगाचो कृष्णा न्हंयेचो उगम, संगमेश्वर महात्म्य हे उल्लेख करपासारके आसात. कायदो आनी राज्यशास्त्र ह्या विशयांचेरूय ताणें खूब लिखाण केलां. ताचें हें लिखाण 'राइटिंग्ज अँड स्पिचेस ऑफ द लेट ऑनरेबल रावसाहेब विश्वनाथ नारायण मंडलिक' (१८९६) ह्या नांवान उजवाडायलां. रावसाहेबाच्या मरणा उपरांत ताचे सगळे ग्रंथ पुण्याच्या फर्ग्युसन कॉलेजीक दिले (१९०७).

'स्टॅटिस्टिकल सोसायटी ऑफ लंडन' चो फेलो आनी रॉयल जिऑग्राफिकल सोसायटी ऑफ ग्रेट ब्रिटन आनी आयर्लंडचो सदस्य हे सन्मान ताका मेळ्ळे. इंडियन नॅशनल काँग्रेसच्या कार्यांतय ताणें वांटो घेतलो. ताका रावसाहेब (१८५५) आनी दिल्ली दरबारांतलो सी. एस्. आय्. 'कंपॅनियन ऑफ द स्टार ऑफ इंडिया' (१८७८) ह्यो सरकारी भोवमानाच्यो पदव्यो मेळ्ळयो. 'रावबहादूर' ही पदवी ताणें न्हयकारली.

- कों. वि. सं. मं.

## मंडेला, नेल्सन : (जल्म : १९१८).

दक्षिण आफ्रिकेचो वकील, राजकारणी आनी पयलो प्रधानमंत्री . १९९४ त ताणें दक्षिण आफ्रिकेचो प्रधानमंत्री म्हूण सोपूत घेवन अवर्णभेदी लोकशायेचो पुरस्कार केलो. गोऱ्या लोकांची सत्ता आशिल्ली तेन्ना, देशांतल्या काळ्या लोकांकूय राजकारणांत समान हक्क मेळचे म्हूण ताणें चळवळ केल्ली. हाका लागून ताका दक्षिण आफ्रिका सरकारान २७ वर्सां बंदखणींत दवरलो.

मंडेलाचो बापूय तेंबू जमातिचो मुखेली आशिल्लो. दक्षिण आफ्रिकेंतल्या अल्पसंख्यीय गोऱ्या लोकांची राजवट पुरायपणान मोडून उडोवपाच्या हेतान १९१२ त आफ्रिकन नॅशनल काँग्रेसची स्थापणूक केल्ली. विसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दाकसावन नेल्सनच्या फुडारपणासकयल आफ्रिकन नॅशनल काँग्रसचो पुर्नजल्म जालो. ताणें साबार आफ्रिकन लोकांच्या आदारान वर्णभेदी गोऱ्या सरकाराआड



आवाज उठोवपाचो यत्न केलो. हाका लागून १९५६-६१ ह्या तेंपार ताचेर देशद्रोही म्हूण चवकशी जावन ताका बंदखणीची ख्यास्त जाली. १९६१त ताची सुटका जाले उपरांत लेगीत ताणें गोऱ्या सरकाराच्या वर्णभेदी धोरणाक नेटान विरोध चालूच दवरलो. ताका लागून १९६२ त ताका परतून बंदखणींत दवरलो. १९६३-६४ मेरेन ताची चवकशी जावन ताका जल्मठेपेची ख्यास्त फर्मायली. १९९० त ताची सुटका जायत मेरेन २७ वर्सां रोबन जुंव्यावयले बंदखणींत ताका दवरिल्लो. बंदखणींत आसतना लेगीत तो आफ्रिकन नॅशनल काँग्रेसचो अध्यक्ष आसलो. १९९० त गोऱ्या सरकारान नॅशनल काँग्रेस पक्षावयली बंदी काडिल्ल्यान नेल्सनाची सुटका जाली. एप्रिल १९९४ त अवर्णभेदी (Non-Racialist) वेंचणूक जावन, तातूंत नॅशनल काँग्रेसीक भोवमत मेळ्ळें.

१० मे १९९४ दिसा नेल्सनान नव्या दक्षिण आफ्रिका प्रजासत्ताकाचो अध्यक्ष म्हूण सोपूत घेतलो. १९९३ त नेल्सन मंडेला आनी दक्षिण आफ्रिकेचो अध्यक्ष एफ. डब्लू. क्लार्क हांणी दक्षिण आफ्रिकेंत लोकशायेची बुन्याद घाली म्हूण तांकां नोबॅल पुरस्कार वांटून दिलो. १९९० त भारत सरकारान ताका भारतरत्न पुरस्कार भेटोवन ताचो भोवमान केलो. भारतरत्न पुरस्कार मेळपी तो दुसरो विदेशी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मंत्र :** गुपीत आनी प्रभावी शक्त आशिल्लो ध्वनी, अक्षरां हांकां वा तांच्या चोम्यांक मंत्र अशें म्हण्टात. अशा ह्या मंत्रांनी अनिश्ट आसा ताचें निवारण करून कल्याण करपाचें बळगें आसता, अशें मानतात. मंत्र हो शब्द 'मन्' म्हळयार विचार करप ह्या संस्कृत धातूपसून तयार जाला. हेर कांय अर्थांनीय हो शब्द वापरतात. हाचो एक अर्थ वैदिक प्रार्थना असो आसून ऋङमंत्र, यजुर्मंत्र आनी साममंत्र अशे ताचे तीन

प्रकार मानल्यात. गुह्य गजाल मेळोवप, गृह्य अर्थ प्राप्त करून घेवप, विशिश्ट कार्याखातीर देवतेचें आवाहन करप, अशेय ह्या 'मंत्र' शब्दाचे अर्थ जातात. जाचें मनन केल्ल्यान सगळ्या जगाचें म्हळ्यार जीव, ब्रह्म आनी ब्रह्मांड ह्यांच्या ऐक्याचें ज्ञान जाता, संवसाराच्या बंधनांतल्यान जीवाक मुक्ती मेळटा आनी इहलोकांत धर्म, अर्थ आनी काम हीं साध्य जातात, तो मंत्र असोय ताचो तात्त्विक अर्थ आसा.

मंत्र शब्दाची एक व्याख्या अशी आसा -

*मकरो मननं प्राह त्रकारस्त्राणमुच्यते ।*

*मननत्राणसंयुक्ती मंत्र इत्यभिधीयते ।।*

**अर्थ :** मंत्र शब्दांतलो मकार म्हळ्यार मनन, त्रकार म्हळ्यार त्राण हाचोच अर्थ राखण, ताचेवयल्यान मनन आनी राखण हांणीं जो युक्त ताका मंत्र म्हण्टात.

'मंत्राः मननात्' जो मनन करतात आनी जेणेकरून यज्ञ, देव आनी आत्मो हांचें गिन्यान मेळटा, ताका मंत्र म्हणचो. मांत्रिक, पुरोयत, याज्ञिक, वैज, जादूगार, साधक ह्यो व्यक्ती मंत्राचो प्रयोग करतात. हो प्रयोग करपाचो अधिकार बायलांक आनी शुद्रांक ना अशें हिंदू धर्मशास्त्रांत म्हळां. विशिश्ट बळगें, पात्रताय, गिन्यान हांकांलागून विशिश्ट व्यक्तींकूच हो अधिकार फाव जाता. मंत्र गुरूकडल्यानूच घेतल्यार उपेगी थरता. दिक्षेच्या वेळार, गुरूकडल्यान शिश्याक गुपीतपणान मंत्र दितात. मंत्र दुसऱ्याक आयकूंक येवचोना अशे तरेन दिवप घेवप जाता. तशेंच मंत्राचो जप करतना लेगीत तो दुसऱ्यांक आयकूंक येवक फावना. कर्मकांडांतलो आनी भजनांतलो मंत्र मात व्हड आवाजान म्हण्टात. सपनांत, दृश्टान्त मेळून वा कुलपरंपरेनूय मंत्र प्राप्त जाल्ल्याचीं उदाहरणां मेळटात.

ऐहिक आनी पारलौकिक अशीं तरातरांचीं उद्दिश्टां साध्य करपाखातीर विधीयुक्त मंत्राचो प्रयोग करप जाता. हातूंत संकश्टाचें, रोगाचें निवारण करप, वीख निवळावप, झुजांत जैत मेळोवप, अपत्यप्राप्ती तशेंच दीर्घायुश्याचो लाभ आनी दुकळाचें निवारण करपाच्या हेतान वेदांतल्या वा अथर्ववेदांतल्या मंत्रांचो प्रयोग करताले आनी आजूनूय करतात. भुताखेतांची बाधा जावंची न्हय, दुस्मानाचेर सोडिल्लें शस्त्र वा अस्त्र चड प्रभावी ज़ावचें, दुस्मानान आपले आड वापरिल्लो मंत्र निश्फळ जावचो ह्या हेतानूय मंत्रप्रयोग करतात.

शब्दब्रह्मासावन मंत्रशास्त्र उत्पन्न जालां. मंत्राचें सामर्थ्य ताच्या उच्चारांत आसता. मंत्रांतल्या स्वरांवांगडा जें कंपन (Vibration) निर्माण जाता, त्या कंपनांतल्यान तें सामर्थ्य तयार जाता. मंत्र हो तेजोरूप आसा. चडकरून मंत्राच्या अर्थापरस ताच्या बिनचूक उच्चाराकूच चड म्हत्व दितात. चुकीच्या उच्चाराकलागून मंत्र निश्फळ जाताच ताच्या वांगडा तो घातकूय थारूंक शकता अशें मानतात. मंत्र केन्ना फळादीक वा निश्फळ जाता हाचेविशीं विधी, नेम वा विधिनिशेध आसात.

बीजमंत्र, मूलमंत्र आनी मालामंत्र अशो मंत्राच्यो तीन तरा आसात. पुल्लिंगी, स्त्रीलिंगी आनी नपुसकलिंगी मंत्र हें तांचें एक वर्गीकरण आसा. बीजमंत्र म्हळ्यार अं, यं, रं, लं, ऱ्हाम्, ऱ्हीम्, ऱ्हूम् हे एकवर्णात्मक मंत्र आसात. वेदाचो बीजमंत्र 'ऐं' हो आसा. चारूय वेदांच्या सुरवेच्या म्हळ्यार प्रारंभस्वरांनी हें बीज तयार जाता. दर एक देवतेचो बीजमंत्र आसता. देखीक गं-गणपती, ऱ्हीं-माया, श्रीं - लक्ष्मी, क्लीं - काली आनी हेर बीजाक्षरां बरोवपाखातीर सिध्द नांवाची एक स्वंतत्र लिपी तयार केल्ली. धा अक्षरांमेरेनच्या मंत्राक मूलमंत्र म्हण्टात आनी ज्या मंत्राचो जप माळेच्या आदारान करतात ताका 'मालामंत्र' अशें नांव आसा.

विंगड विंगड देवतांक अनुकूल करून घेवपाखातीर तेचभशेन विंगड विंगड उद्दिश्टां साध्य करपाखातीर वेगवेगळे मंत्र आसतात. महामंत्राची संख्या सातकोटी आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. कांय मंत्र सिध्द करून घेतल्याबगर तांचें फळ मेळना. कांय मंत्रांक देवतांनी आनी ऋषींनी शाप दिल्ले आशिल्ल्यान, त्या शापांतल्यान मुक्त केलेबगर तांचें फळ मेळना, असो समज आसा. कांय मंत्र शुध्द, पवित्र, सौम्य आनी मंगल आसतात, तर कांय क्रूर, अमंगल वा घातक आसतात. कांय मंत्र अर्थपूर्ण आसतात. पूण कांय मंत्रांक अर्थच आसना, निदान असल्या मंत्राचो अर्थ अनाकलनीय आशिल्ल्याचें जाणवता.

मंत्राचें सामर्थ्य म्हळ्यार मनाचें सामर्थ्य आनी मनाचें सामर्थ्य म्हळ्यार मनांत घोळपी विचारांचें सामर्थ्य. शब्द सोडून जे विचार ते खरे विचार. शब्दस्वरूप मंत्राच्या उच्चारापरस अर्थस्वरूप वा विचारस्वरूप मंत्रांत चड बळगें आसता. अशें हें विचारांचें बळगें मतींत घेवन, भारतीय तत्त्ववेत्यांनी वायट शब्दापरस वायट विचार चड घातकी आसात, असो सिध्दांत हजार वर्सांपयलीं मांडला. मनशान सदांच बरे विचार करचे कारण ह्या विचारांचें, सतत चलिल्ल्या चिंतनांचें केन्ना ना केन्नातरी आचारांत वा उच्चारांत पर्यावसान जाल्याबगर उरना.

मंत्राचें फळ प्राप्त जावपाखातीर जप, होम, तर्पण आनी ब्राह्मणाक जेवण घालून पुरश्चरण करचें पडटा. अशी ही मंत्रोपासना कितल्याशाच विधि निशेधांनी बांदिल्ली आशिल्ल्यान ती खुबूच कश्टीक आसता. तेखातीर खूब सावध रावन आनी शुचिर्भूत जावन मंत्रानुश्ठान केलें जाल्यारूच ताचें फळ मेळूंक शकता. मंत्रांचें स्वरूप आनी प्रभाव हांचें विवेचन करपी एक स्वतंत्र 'मंत्रशास्त्र' वा 'मंत्रविद्या' निर्माण जाल्या. शैव, वैश्णव, गाणपत्य सारकिल्या संप्रदायाचें तशेंच बौध्द, जैन, इस्लाम, खिस्ती, ज्यू, शीख ह्या धर्मांचेय विशिश्ट अशे पवित्र मंत्र आसात. त्रैवर्णिकांत, गायत्री मंत्राचो, मुजीउपरांत संध्यावंदनांत सदांच जप करूंक जाय. हो सवितृदेवतेचो मंत्र आसा. ओम् (ॐ) वा प्रणव हो हिंदू, बौध्द आनी जैन हांचो सगळ्यांत पवित्र मंत्र मानतात.

- वा. ल. वझे

**मंत्ररामायण :** एक गौण रामायण. रामायण हें वेदमूलक आसा, हें सांगप हो ह्या रामायणाचो मुखेल हेत आसा. नीलकंठ हो ह्या रामायणाचो कर्तो. ह्या रामायणाचो पाठ करचेपयलीं भक्त एक श्लोक म्हण्टा. रामायणाचे सुरवातेक हो श्लोक आसा तो असो-

*वेदवेद्ये परे पुंसि जाते दशरथात्मजे ।*

*वेदः प्राचेतसादासीत् साक्षाद् रामायणात्मना ।।*

**अर्थ** - वेदवेद्य आनी नरश्रेश्ठ दशरथाचो पूत रामचंद्र प्रकट जालो, त्याच वेळार वेदूय प्राचेतसा कडल्यान रामायण रुपान प्रकट जालो.

नीलकंठान मंत्ररामायणांत कांय वैदिक मंत्र दिल्यात, तातूंत पुराय रामकथा येता, अशें ताणें दाखयलां. ह्या रामायणाच्या पयल्या श्लोकांत रामायणाच्या गायत्रीस्वरुपाचो उल्लेख केला.

- कों. वि. सं. मं.

**मंत्री,नारो राम :** अठराव्या शतमानांतलो पेशवे दरबारांतलो एक गोंयकार मंत्री. त्याच्या बापायचें नांव राम शेणवी रेगे. तो मूळ गोंयचो, पूण उपरांत कोकणांत कोचरे गांवांत ताचें वास्तव आशिल्लें. फुडें बापायक मरण येतकच ताचेर संवसाराचो भार पडलो. तेन्ना ताणें जीव दिवपाचो विचार केलो. ताचे आदीं तो कुलदेशीच्या कवळेच्या शांतादुर्गेच्या दर्शनाक गेलो. थंय ताका देवीन दृश्टांत दिल्ल्यान ताणें आत्मघाताचो विचार सोडून दिलो, अशें ताणें आपल्या चरित्रांत बरोवन दवरलां. फुडें तो नशीब काडूंक सातान्याक गेलो. ताराबाय आनी शाहू हांच्या झगड्यांत ताणें शाहूचो पक्ष घेतलो. १७१० त शाहून ताका आपल्या प्रधानमंडळांत मंत्र्याच्या जाग्यार घेतलो. बाळाजी विश्वनाथ आनी बाजीराव हाचे कारकिर्दींत नारो राम मंत्री आशिल्लो. पुण्यांतल्या सदाशीव पेठेंत ताचो वाडो आशिल्लो. १७२० त तो गोंयांत आयलो आनी ताणें कवळ्या शांतादुर्गेचें देवूळ बांदलें, अगरशाळा बांदली, १७३८ त अंत्रूज वाठार सौदेंकाराकडल्यान मराठ्यांनी घेतलो तेन्ना कवळें गांव बाजीरावाकडल्यान देवीक इनाम म्हूण दिवपाची ताणें वेवस्था करून घेतली. उपरांत सौदेंकार आनी पेशवे हांचेमदीं जो तह जालो तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**मंत्री, माधव :** चवदाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत गोंयचेर राज्य करपी एक विजयनगराचो सरदार. माधव मंत्री हो काश्मिरी ब्राह्मण आशिल्लो अशें शणै गोंयबाब म्हण्टा. ताचें गोत्र आंगिरस.

चवदाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दासावन चडशा कोंकण प्रदेशाचेर बहामनी सुलतानांचो शेक चलतालो. कोंकण आनी भोंवतणच्या हेर प्रदेशांवयल्यान विजयनगर आनी गुलबर्ग हांचेभितर सदांच झगडीं जातालीं. पूण १३६७ ते १३७७ मेरेन तांच्यांत शांतताय निर्माण जाली. १३७८ त विजयनगराचो राजा बुक्का पयलो हाणें बनवासी आनी भोंवतणच्या जिल्ह्यांचो कारभार माधव मंत्र्याकडेन सोंपयलो. ह्याच तेंपार सुलतान मुजाहीदाक मरण आयले उपरांत बहामनी दरबारांत राजगादयेवयल्यान तंग वातावरण निर्माण जाल्लें. हे परिस्थितीचो फायदो घेवन माधव मंत्र्यान कोंकणाचेर घुरी घालपाचें थरयलें. कोंकणाचेर घुरी घालपाखातीर ताणें आदींच तयारी करून दवरिल्ली अशें कांय इतिहासकार म्हण्टात. कोंकण घेवपाखातीर ताणें केनरा हांगा आपलो तळ उबारिल्लो. उपरांत काळी न्हंय हुंपून ताणें गोंयचेर घुरी घाली.

गोंयांत माधव मंत्री आनी बहामनी सैन्याभितरली ही लडाय मोडियगोंबू सुवातेर जाल्ली. गोंय घेतल्या उपरांत ताणें दिवाडे जुंव्याचेर शेक गाजयतल्या तुरुष्कांक जिवेशीं मारून तांणी विध्वंस केल्ल्या सप्तकोटेश्वराच्या लिंगाची प्रतिश्ठापना केली. बुक्का राजाच्या काळांत माधव मंत्र्यान गोंय हातासलें अशें चडशा इतिहासकारांचें एकमत आसा. पूण अमुकूच खंयच्या वर्सा ताणें गोंय घेतलें हे विशीं कांय जाणकारांमदीं मतभेद आसात. डॉ. जी. वी. गुणेच्या मतान १३८०त, जेराल्ड पेरैराच्या मतान १३३९ त जाल्यार शणै गोंयबाब हे वर्स १६६१ मानतात.

गोंय घेवच्या वेळार विजयनगर आनी कोंकणांतल्या बहामनी सैन्याभितर व्हड झूज जाल्लें अशें गुणेन (Goa Gazeteer) म्हळां. माधव मंत्र्याच्या सैन्यांतल्या तिम्माप्पा नांवाच्या सरदारान ह्या झुजांत आपलें कसब दाखोवन व्हड पराक्रम गाजयल्लो. कोंकण घेता आसतना माधव मंत्र्यान चांदरच्या कदंबाचेरूय हार घाली अशें म्हण्टात. गोंय आनी कोंकण प्रदेश विजयनगर राज्याक जोडल्या उपरांत माधव मंत्र्यान गोवापुरी ही अरागागुट्टी राज्याची राजधानी केली. १३८९त एका कोरांतिल्ल्या फातरांत माधव मंत्र्याक गोवापुराधीश अशें म्हळां.

माधव मंत्र्याविशीं सांपडिल्ल्या पुराव्यावयल्यान तो एक निखटो राजकारभारी आशिल्लो. सुमार पन्नास वर्सांमेरेन ताणें कोंकणाचेर शेक गाजयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**म :** देवनागरी वर्णमाळेतलें पंचविसावें व्यंजन आनी प वर्गांतलो पांचवो वर्ण. ह्या वर्णाच्यो चार अवस्था आसून, पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनार हांगाच्या लेखांत, दुसरी महाक्षत्रप शोडास (सनपयलीं सुमार पयलें शतक) हाच्या वेळावयल्या मथुरा हांगाच्या जैन लेखांत, तिसरी समुद्रगुप्ताच्या अलाहाबाद हांगाच्या स्तंभाचेर आनी चवथी यशोधर्मा राजाच्या वेळावयल्या (इ.स. ५३२) मंदसोर लेखांत मेळटा.

म च्या रुपाचो विकासक्रम असो -



'म' चें स्वरूप अशें -

*मकारं शृणु चार्वङ्गि स्वयं परमकुण्डली ।*
*तरुणादित्यसङ्काशं चतुर्वर्गप्रदायकम् ।।*
*पञ्चदेवमयं वर्णं पञ्चप्राणमयं सदा ।*

**अर्थ** ः हे चारुगात्री आयक. मकार हो परमकुंडली, मध्यान्हीच्या सूर्यभशेन तेजीश्ठ, चतुर्वर्गदायक, पंचदेवमय आनी पंचप्राणमय असो वर्ण आसा.

कृष्णवर्ण, धा भुजां आशिल्ल्या, भयंकर पीत आनी रक्ताळ दोळे आशिल्ल्या, काळें वस्त्र न्हेशिल्ल्या, धर्म, काम, अर्थ आनी मोक्ष दिवपी अशा मकाराचें ध्यान करून ताच्या मंत्राचो धा वेळां जप करचो अशें वर्णोध्दार तंत्रांत सांगलां.

ओंठ हें ताचें उच्चारणस्थान आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मकबरो** ः मुसलमान राजे, राजपुत्र, सरदार, फकीर अशा व्हड व्यक्तींच्यो कबरी जे सुवातेर आसतात, ते सुवातेक 'मकबरो' म्हण्टात. वर्सांतल्यान एक फावट भाविक मुसलमान तशेंच हिंदू लोक लेगीत अशा मकबऱ्याचें दर्शन घेवपाखातीर एकठांय जमतात आनी कबरीमुखार द्रव्य आनी मिठाय दवरतात. आवय-बापूय आपल्या भुरग्याक थंय व्हरून मकबऱ्यांतल्या थडग्याचेर घालतात आनी ताचें कल्याण जावचें अशी प्रार्थना करतात.

ताजमहाल हो लेगीत एक मकबरोच आसा. औरंगाबाद शारांत बिबीका मकबरा ही वास्तू प्रसिध्द आसा. औरंगजेबान आपले बायलेचें यादस्तीक म्हणून बांदिल्लो हो मकबरो म्हळयार ताजमहालाची नक्कल जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मकर** (कॅप्रिकॉर्न) ः भारतीय राशिचक्रांतली धावी रास. हे राशींत उत्तराषाढा नखेत्राचे तीन चरण (चवथो वांटो), श्रवण नखेत्राचे चारूय



चरण आनी धनिष्ठा नखेत्राचे दोन चरण मेळून सवायदोन नखेत्रांचो आस्पाव जाता. ही रास सप्टेंबराच्या उत्तरार्धांत रातच्या णवांच्या सुमाराक मध्यमंडलाचेर येता. हे राशींत स प्रतीमेरेनचे २८ तारे आसात. तातूंतले बीटा आनी डेल्टा हे दोनूच तारे तिसऱ्या प्रतीच्या तेजस्वितेचे आसून हेर हांचेपरस कमी प्रतीचे आसात. हे सगळे तारे मेळून एक व्हड वांकडो तिकडो त्रिकोण दिसता. त्रिकोणाच्या सगळयांत उत्तरेकडे आशिल्ली ताऱ्यांजोडी दोळयांनी दिसता. एम-३० हो वाटकुळो तारकांचोमो हे राशींत येता. ह्याच तारकाचोम्यांत वरूण ह्या गिऱ्याचो सोद लागलो. अशें म्हण्टात, पॅन देवतेचें, नुस्त्याची शेंपडी आशिल्ले बोकडेंत रुपांतर जावन हे राशीची आकृती जाली.

१४ जानेवारी ते १२ फेब्रुवारीच्या सुमाराक सूर्य ह्या तारका चोम्यांत आसता. सुमार २००० वर्सां आदीं सूर्याची दक्षिणक्रांती (२३° २७') सूर्य हे राशींत आसतना जाताली. आतां तशी स्थिती सूर्य धनु राशींत आसतना जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**मकर संक्रांत** ः सुर्याच्या मकर संक्रमणाचेर आदारिल्ली एक भारतीय परब. वर्सभरांतल्यान सूर्य १२ राशींतल्यान भ्रमण करता आनी जेन्ना तो मकर राशींत १४ जानेवारीच्या सुमाराक प्रवेश करता, तेन्ना ही परब मनयतात. मकर संक्रमणापसून सुर्याच्या उत्तरायणाक (मकर संक्रांतीपसून कर्क संक्रांतीमेरेन स म्हयने धर्तरेचें उत्तर अर्द सूर्याकडेन कलिल्लें आसता तो काळ) सुरवात जाता आनी उत्तर गोलार्धांत रावपी भारतीयांक उत्तरायणांत चड उजवाड आनी उश्णता हांचो लाव जाता. देखुनूच भारतीय लोक मकर राशींतल्या सुर्याच्या भ्रमणाक चड म्हत्व दितात.

ही परब खूब पुर्विल्ली आसा. आर्य लोक उत्तर ध्रुवार रावताले, तेन्नाच्यान ही परब प्रचारांत आशिल्ली. कांय विद्वानांच्या मतान उत्तरायणाची सुरवात होच पुर्विल्ल्या काळांत वर्सारंभ आसूंक जाय.

मकर सक्रांतीक देवी मानून तिचें चित्र दर पंचांगांत दिल्लें आसता. लांब ओंठ, व्हड नाक, एक तोंड आनी णव हात आशिल्ले हे देवीन संक्रांतीच्या दिसा संकरासुर नांवाच्या राकेसाक मारून लोकांक सुखी केले अशी कथा आसा. दर वर्सा तिचें वाहन, शस्त्रां, भेस, अवस्था, अलंकार, भक्षण वेगवेगळें आसता. ती एकाद्र्या वाहनाचेर बसून एकेकडल्यान येता आनी दुसरेकडेन वता जाल्यार तिसरेच कडेन पळेता. ती जे दिकेकडल्यान येता, थंय भरभराट जाता आनी ती जे दिकेकडेन वता थंय संकश्टां येतात अशें सांगतात. हाचेवयल्यानूच संक्रांत येवप, हो वाक्यप्रचार रूढ जाला. तिणें ज्यो वस्तू घेतिल्ल्यो आसतात, त्यो एकतर नश्ट जातात वा म्हारग तरी जातात, असोय समज आसा. संक्रांतीच्या दुसऱ्या दिसा कंक्रांत म्हण्टात. ह्या दिसा संक्राती देवीन किंकासुराक मारिल्लो. पंचांगांत ह्या दिसाक करिदिन म्हण्टात.

भारतांतल्या चडशा सगळ्या वाठारांत ही परब मनयतात. उत्तर भारतांत त्या दिसा दाळ आनी तांदूळ हांची खिचडी खातात आनी दान दितात, देखून थंय संक्रांतीक 'खिचडी संक्रांती' अशें म्हण्टात. बंगालांत त्या दिसा काकय आनी तीळ घालून केल्लो 'तिळुआ' नांवाचो पदार्थ खातात आनी वांट्टात. तशेंच तांदळाच्या पिठांत तूप-साकर घालून केल्लो पिश्टक नांवाचो पदार्थ तयार करून तोय वांट्टात. देखूनच थंय संक्रांतीक 'तिळुआ संक्रांती' वा 'पिश्टक संक्रांती' म्हण्टात. दक्षिणेंत ह्याच वेळार जीन दीस 'पोंगळ' (पोंगल) नांवाचो उत्सव चलता. महाराष्ट्रांत संक्रांतीच्या पयल्या दिसाक भोगी म्हण्टात तर दुसऱ्या दिसाक किंक्रांत वा करिदिन अशें म्हण्टात. त्या दिसा सौभाग्यवती बायलो, मातयेचो बुडकुलो दान दितात आनी देवाक तीळ-तांदूळ ओंपतात.

संक्रांतीच्या दिसा तीर्थस्नान तशेंच दान केल्यार पुण्य मेळटा अशें समजतात. त्या दिसा प्रयाग गंगा-सागर हांगा व्हड मेळावो भरता. त्या दिसा पितृश्राध्द करचें अशेंय सांगलां. गंगासागरांत न्हावन पिंड दिवपाची चाल आसा.

हो सण इश्टागत वाडीचो सण म्हूण वळखतात. शेजाऱ्यां-पाजाऱ्यांकडेन इश्टागत वाडची आनी फाटले मतभेद विसरून एकचार निर्माण जावचो, असो राश्ट्रीय एकात्मतेचो संदेश दिवपी हो सण आसा. ह्याच अर्थान ह्या दिसा एकामेकांक तीळगूळ दिवन तीळगूळ घेयात आनी गोड गोड उलयात अशें सांगपाची चाल आसा.

गोंयांत मकर संक्रांती दिसा घरांत गोडशें करतात. सवायशीण बायलां देवामुखार वायण दवरतात. मकरसंक्रांतीच्या दुसऱ्या दिसासावन म्हळ्यार कंक्रांती दिसासावन हळदी-कुकूम करपाची चाल आसा.

गोंयांत कंक्रांतीदिसा नव्यो व्हंकलो सवायशिणी बायलांक नाल्लाचें वळें आनी मातयेची चिडकीमिडकी (मातयेचो ल्हान बुडकुलो आनी धांपणे) दिता. तातूंत पांच तरेचें धान्य घालतात आनी बुडकुल्याच्या गळ्याक पांच पिड्डुको गुंथिल्लो अणसीचो दोर बांदतात. गोंयांत कांय जाणांगेर मकर संक्रांती दिसा तीळ आनी गोड घालून केल्ले तिळाचे लाडू लोकांक वांट्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**मको :** (मराठी : मका; हिंदी : मकई, मक्का, भुट्टा; गुजराती : मक्काई; कन्नड : मेक्केजोळा; संस्कृतः महायावनाल; इंग्लीश : मेझ, इंडियन कॉन; लॅटीन : झिया मेझ; कूळ : ग्रॅमिनी).

एक म्हत्वाचें तृणधान्य. हाचें खोड भरीव, घटमूट आसून ताची उंचाय १.२ - ३ मी. मेरेन आसता. कांय प्रकारांत खोडाची उंचाय ६मी. आसता. पानां सादीं, देंठ नाशिल्लीं, तळाकडे खोडाक गुठलायल्लीं आसतात. पानांची लांबाय ३०-१२५सेंमी. आनी रुंदाय २.२ ते १२ सेंमी. आसता. फुलां एकलिंगी, वेगवेगळे ताळयेर पूण एकाच झाडाचेर जुलय ते सप्टेंबर म्हयन्यांत येतात. मक्याचो पु. पुष्पबंध तेंगयेर चोम्यांनी आनी स्त्री.पुष्प पानांचे कुशींत व्हड आवरणांनी धांपिल्ल्या कणसाच्या प्रकाराचो आसता. फुलां ल्हान, परिदल आनी देंठ नाशिल्लीं आनी जोडयेन येतात. स्त्री. पुष्पकांत फकत एक किंजपुट ताचेर ४० ते ५० सेंमी. लांब, मोव, केंसावरी पिसांचो झुपको आसता.

फळाचे म्हळयार मक्याचे दाणे कणसाचेर तयार जातात आनी दर एकांत एक एकदलिकित बीज आसता. हे दलिकेक पुष्कादनी म्हण्टात. बीयेचें आनी फळाचें आवरण एकरूप जावन ताचे भितल्लेवटेन प्रथिनांनी भरिल्लो कणांचो थर आसता. बीजांतलो खूबसो भाग स्टार्चान भरिल्लो पुष्क आसता आनी प्रत्यक्ष तातूंतलो गर्भ तेलान भरिल्लो आसता. ह्या तीनय अन्नघटकान भरिल्लो हो मको म्हळयार एक पुश्टीक अन्नधान्य आसा.



**मक्याचें झाड :** १ - पुं-पुष्पबंध; २ -स्त्री-पुष्पबंध(कणस); ३ - खोड आनी पानां; ४ - मुळां.

मक्याचें मूळस्थान अमेरिका आसुंये हे विशीं जायते मतभेद आसले तरी सद्या उपलब्ध आशिल्ल्या मक्याचो विकास ताचेकडे संबंदित आशिल्ल्या टेओसिंटे (यूक्लीना मेक्सिकाना; हिंदी आनी पंजाबी नांव मक्चारी) हे रानटी जातीपसून आदिमानवान ताच्या आनुवांशिक लक्षणांत बदल घडोवन हाडून आनी सतत निवड पद्तीन केल्ल्या अभिवृध्दींतल्यान जालो आसुंये अशें मानतात. पेरू देशांतल्या इंका लोकांच्या थड्यांत मेळिल्ल्या मक्याच्या वेगवेगळ्या प्रकारच्या दाण्यांवयल्यान इंका संस्कृतीच्या काळाआदीं जायतीं शतमानां मको लागवडीखाल आशिल्लो

अशें अनुमान काडटात. तेउपरांत ताचो प्रसार उत्तरेकडल्या प्रदेशांत जावन माया आनी ॲझटेक हे संस्कृतींत मक्याक म्हत्वाची सुवात मेळिल्ल्याचें दिसून येता. युरोपियन उदकाभोंवडेकार सुरवेक जेन्ना अमेरिकेंत गेले, तेन्ना उत्तरेकडल्या महासरोवरासावन दक्षिणेकडे चिली आनी अर्जेंटिना मेरेन सगळ्या वाठारांनी मको लागवडीखाल आशिल्लो. युरोपांत मको पयलीं स्पॅनिश लोकांनी अमेरिकेंतल्यान १४९४ च्या सुमाराक व्हेलो. युरोपियनांनी अमेरिकेंत मक्याची लागवड सोळाव्या आनी सतराव्या शतमानांत सुरू केली. उपरांत कांय वर्सांनी ताचो प्रसार दक्षिण फ्रांस, इटली आनी बाल्कन वाठारांत जालो. आशियांत सुरवेक सोळाव्या शतमानांत ताची आयात जाली. भारतांत ताची आयात केन्ना जाली ताची निश्चीत म्हायती मेळना. पुर्तुगेजांनी सोळाव्या शतमानाचे सुरवेक भारतांत मक्याची आयात केली अशें म्हण्टात. पूण ताच्याय आदीं अरब - आफ्रिकनांवरवीं ताचो भारतांत प्रवेश जालो आसुंये अशेंय मानप जाता.

संवसारांतल्या चार म्हत्वाच्या तृणधान्यांत मक्याचो आस्पाव जाता. संवसारांतल्या तृणधान्याच्या वट्ट उत्पादनांतलें सुमार २०% उत्पादन मक्याचें आसता. अमेरिका ह्या देशांत हेर तृणधान्यांपरस मक्याचें चड क्षेत्र आसा आनी ताचें मोलय हेर धान्यांपरस चड आसता. अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, ब्राझील, चीन आनी मेक्सिको ह्या चार देशांत भारतापरस चड क्षेत्र मक्याखाल आसा. मक्याच्या उत्पादनांत अमेरिकेचो पयलो नंबर आसून भारताचो बारावो नंबर लागता. ह्या बारा देशांत अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, चीन, ब्राझील, रूमानिया, दक्षिण आफ्रिका, अर्जेंटिना, मेक्सिको, फ्रांस, रशिया, युगोस्लाव्हिया, हंगेरी, इटली आनी भारत हांचो आस्पाव जाता.

भारतांत तांदूळ, गंव, जोंधळो आनी बाजरी उपरांत पांचवो क्रमांक मक्याचो लागता पूण उत्पादनाचे बाबतींत तें चवथ्या क्रमांकाचें पीक आसा. कारण ह्या पिकाखाल जरी उणें क्षेत्र आसलें तरी ताचें हेक्टरी उत्पादन चड आसता.

**प्रकार :** संवसारांत मक्याचे लागवडीखाल जायते प्रकार दिसून येतात. झाडाची उंचाय, कणसाचे आकार, कणसांतल्या दाण्यांचो रंग आनी दाण्याच्या पुष्कांतलो गुणधर्म हाचेवयल्यान मक्याचे लागवडींतल्या वेगवेगळ्या प्रकारांचें वेपारी वर्गीकरण अमेरिकेंत केल्लें दिसून येता. तातुंतले मुखेल पांच प्रकार अशे आसात- डेंट, फ्लिंट, फ्लोअर, स्वीट आनी पॉप. युरोपांत आनी अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत वेगवेगळ्या उपेगांखातीर मक्याच्या वेगवेगळ्या प्रकारांची लागवड करतात. भारतांत चड करून फ्लिंट तशेंच फ्लिंट आनी डेंट हांचो संकर करून तयार केल्लो प्रकार लागवड करतात. सद्या लागवडीखाल आशिल्ल्या प्रकारांत झाड, कणस आनी दाणो हांच्या गुणधर्मांत खुबूच वेगळेंपण दिसून येता. हातूंत साठी, तीन पंखिया काथडी, जौनपूर हांचो आस्पाव जाता.

मक्याचें थळाव्या प्रकाराचें उत्पादन खूब कमी प्रमाणांत जावंक लागिल्ल्यान अखिल भारतीय समन्वयित मको सुदारणा येवजणेखाल १९६१ उपरांत संकरीत आनी संमिश्र प्रकार लागवडी खातीर तयार जाले. हातूंत व्ही. एल. ५४, हाय स्टार्च, गंगा सफेद २, एच. आय. एम. १२३, गंगा ४, गंगा ५ आनी डेक्कन १०१ ह्या प्रकारांचो आस्पाव जाता.

फुडें १९६७ उपरांत विजय, किसान, अंबर, जवाहर, सोना, विक्रम हे ६ संमिश्र प्रकार लागवडीखाल आयले. तशेंच १९७१त शक्ती, रतन, प्रोटिना हे ३ प्रकार लागवडी खातीर दिवपांत आयले.

हाचेभायर तमिळनाडू कृषी विद्यापिठान को. एच. आय, पंजाब कृषी विद्यापिठान प्रताप-१ जाल्यार, कोल्हापूर हांगाच्या मको संशोधन केंद्रान मांजरी आनी ह्युनिस ह्या प्रकारांची शिफारस केल्ली आसा.

मक्याचें पीक काडचेआदीं जमीन नांगरून भुसभुशीत करून दाबून घेतात. मक्याच्या पिकाक भरपूर साऱ्याची गरज आशिल्ल्यान हेक्टरी २५ ते ३० गाडयो शेणखत वा कंपोस्ट खत मशागतीवेळार जमनींत भरशितात. पेरणी करतना दोन ओळींतलें अंतर ६०-७५ सेंमी. आनी ओळींतलें दोन झाडांतलें अंतर २०-२५ सेंमी. दवरतात.

सादारणपणान मक्याचें पीक पेरणीसावन ८० ते १०० दिसांत तयार जाता. भाजपाखातीर वा उकडून खावपाखातीर लागपी कणसां तरनीं आसतना वा कांय प्रमाणांत घट्ट जातकच काडटात. दाण्यांखातीर जीं कणसां काडटात, तीं मक्याचे दाणे सुकतकच आनी तातूंत २०% परस चड उदकाचो अंश आसूंक फावना. चाऱ्याखातीर पिकाची कापणी पीक फुलाचेर येवपाचे अवस्थेंत करप जाता. मक्याची काडणी जातकच ताचेवयलें भायलें आवरण काडून कणसां वतांत सुकयतात आनी बडयेन वा यांत्रिक साधनांनी दाणे काडटात.

मनशांक आनी जनावरांक खाद्य म्हूण तशेंच जनावरांचो चारो ह्या स्वरूपांतय मक्याचो उपेग करतात. उद्योगीक उत्पादनांत कच्चो म्हाल म्हणूनय ताचो वापर करप जाता. संवसारांतल्या जायत्या वाठारांत स्टार्चाच्या उत्पादनाखातीर मको होच मुखेल कच्चो माल आसा. भारतांत ८० ते ९०% मक्याचें उत्पादन मनशाच्या अन्नाखातीर वापरप जाता. भारताभायर लॅटीन, अमेरिका, युरोपाचो आनी अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांचो कांय भाग आनी दक्षिण, उदेंत तशेंच अस्तंत आफ्रिका ह्या वाठारांतय मनशाचें खाद्य म्हूण मक्याचो वापर करतात. मक्याचो रवो, ल्हायो, पिठाची भाकरी, चपात्योचो, सत्व, उकडिल्लीं कणसां ह्या स्वरूपांत उपेग करतात.

मक्याच्या दाण्यापसून यांत्रिक पद्दतीन मोटो रवो, बारीक रवो, पीठ आनी मैदो वेगवेगळो काडटात. मोटो रवो शिजोवन ताचे कपचे तयार करून भाजतात. ताका कॉर्नफ्लेक ह्या नांवान वळखतात. मैद्याक

बाजारांत कॉर्नफ्लोअर ह्या नांवान मागणी आसा. मक्याच्या आंकुरापसून भांगरा कोराचें हळदुवें तेल काडटात. ह्या तेलाचो उपेग भारतांत शाब्बाच्या उद्येग धंद्यांत करतात. अमेरिकेंत हें तेल शुध्द करून खाद्यतेल म्हूण उपेग करतात. केक, बिस्कीट आनी मार्गारीन तयार करपा खातीर ह्या तेलाचो उपेग करतात. तशेंच तेल काडून उरिल्ली पेंड जनावरांक खावंक घालतात. मक्याच्या दाण्यापसून काडिल्ल्या स्टार्चाचेर संस्करण करून डेक्स्ट्रोज, कॉर्न सिरप आनी कॉर्न स्टार्च तयार करतात. कॉर्न सिरप हें मिठाय, जेली, वखदांनिर्मिती, तंबाखूवयली प्रक्रिया हांचेखातीर उपेग करतात. दाण्यांतल्या अंकुरापसून तेल काडटात. ग्लुटेनाचो उपेग पशुखाद्याखातीर करतात. तशेंच ताचेर संस्करण करून 'झाईन' नांवाचें प्रथिन आनी ॲमिनो अम्लां तयार करतात. झाइना पसून लोकरीवरी कृत्रिम धागो तयार करतात.

मक्याच्या बोंडाभायर उरिल्ल्या हेर झाडाचोय वापर वेगवेगळ्या उद्येग धंद्यांनी करतात. इमारतीचें बांदकाम, कागद, स्फोटक वस्तुंचें उत्पादन, सूत, भरण साहित्य हांचेखातीर खोडाचो उपेग करतात. मक्याच्या बुरखुंडाचो (कणसाच्या भितल्लो घट भाग) गुड्डेवरी उपेग करतात. तशेंच सादीं घरां बांदपाखातीर रेंव आनी शीमीट हांच्यांत भरसून, नळ तयार करपाखातीर हाचो उपेग करतात. बुरखुंडापसून फुरफुराल नांवाचो रंगहीन आनी तेलावरी द्रव पदार्थ तयार करतात. हो द्रवपदार्थ प्लॉस्टिक, नायलॉन आनी हेर उत्पादनांत कच्चो म्हाल म्हूण वापरतात. कणसांवयलीं आवरणां सिगरेटीच्या कागदनिर्मिती खातीर वापरतात.

मक्याच्या झाडाक जायते रोग आनी किडी पडटात. कवकां, सुक्ष्मजंतू आनी व्हायरस हाकालागून जावपी रोग खोड, पानां आनी कणसां हांचेर दिसून येतात. कवकजन्य रोग :

**(अ) पानावयले रोग : १) करपा :** ड्रेक्स्लेरा टर्सीका ह्या कवकाक लागून जावपी ह्या रोगाखातीर पिकाचेर बोर्डो मिश्रण वा कवकनाशकाचो फवारो मारतात.

**२) केवडा :** स्क्लेरोस्पोरा वंशांतल्या जायत्या जातींक लागून हो रोग जाता. हाचेर उपाय म्हळयार मेटालॅक्झील हें कवकनाशक.

**३) तांबेरा :** पाक्सिनिया सोरधाय ह्या कवकाक लागून जावपी ह्या रोगांत पानाच्या दोनूय वटांनी फोड येतात. हातूंत गंगा ४, डेक्कन आनी गंगा हे प्रकार मात रोगप्रतिकारक आसात.

**(आ) खोडावयले रोग : १) खोडकूज :** पिथियम ॲफानिडरमेटम कवकाक लागून जावपी ह्या रोगांत ३ ते ४ पेरां कुसतात आनी उपरांत झाड मोडून पडटा. ताकालागून पीक ६-८ आठवड्यांचें आसतना जमनीचेर भरपूर प्रमाणांत कवकनाशक फवारपाक जाय.

**२) काळी खोडकूज :** बॉट्रिडिप्लोडिया फॅसिओलाय कवकाक लागून जावपी हो रोग पीक तयार जावपाच्या अदमासाक जाता. हातूंत गंगा५, गंगा १०१, जवाहर, किसान हे प्रकार रोगप्रतिकारक आसात.

**३) गुलाबी खोडकूज :** फ्युजेरियम मोनिलिफॉर्मी कवकाक लागून जावपी ह्या रोगाचीं लक्षणां परागणां उपरांत दिसूंक लागतात. हातूंत खोडाचो रंग गुलाबी जाता. कांडां मोडटात आनी कणसां बेगीन तयार जातात. हातूंत गंगा५, नवीन आनी श्वेता हे प्रकार रोगप्रतिकारक आसात.

**इ) कणसांचो रोग :** १) कूज २) काणी. हो रोग उस्टिलागो मायडिस ह्या कवकाक लागून जाता.

**व्हायरसजन्य आनी सुक्ष्मजंतूजन्य रोग :** हाचेर रोगप्रतिकारक प्रकाराची निर्मिती हो एकच उपाय आसा. सुक्ष्मजंतूजन्य रोगांत खोडकूज हो म्हत्वाचो रोग. एर्विनिया क्रिसेन्थेमी ह्या सुक्ष्मजंतू पसून जावपी ह्या रोगांत झाडाचीं सगळीं पानां सुकतात आनी मुळाकडली कांडी कुसता. गंगा-२, कुलू थळावो, रुद्रपूर थळावो, नवीन आनी श्वेता हे रोगप्रतिकारक प्रकार आसात. ए. कॅरोटो व्होरा हो प्रकार झिई हाकालागून जावपी खोडकूज रोग उदक सांचिल्ल्या आनी गच्च पेरिल्ल्या शेतांत चड नुकसान जाता. हाका उदकाचो फाव तो निचरो करप गरजेचें आनी रोगप्रतिकारक प्रकारांची लागवड करप हे उपाय आसात. हातूंत सीएम. ६००, गंगा सफेद-२, सीएम. १०३, आनी सीएम. १०४ हे प्रकार रोगप्रतिकारक आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मक्का :** सौदी अरबांतल्या हेजाज प्रांताचें राजपाटण आनी मुस्लिम लोकांचें सगळ्यांत प्रवित्र क्षेत्र. मुहंमद पैगंबर हाचोय जल्म मक्का शारांतूच जाल्लो. साउदी अरबातल्या ब्सिरात पर्वतांमदीं मक्का शार वसलां. ६३० उपरांत मुहमंद पैगंबरान हांगासावनूच इस्लाम धर्माची शिकवण दिवपाक सुरवात केल्ली, तेन्नासावन हें शार इस्लामांचें मुखेल धर्मपीठ म्हूण प्रसिध्द आसा. मुस्लिम धर्मियांनी आपलें पाप मुक्त करचेखातीर एक फावटी तरी ह्या धर्मक्षेत्राक भेट दिवची अशी धारणा आसा. देखून हाजयात्रेच्या निमतान दर वर्सा वेगवेगळ्या देशांतले लाखांनी मुस्लिम लोग हांगा येतात.

मुस्लिम पंरपरेप्रमाण अब्राहम आनी इस्मायल हांणी ही अल्लाची पवित्र सुवात मानून थंय एक पवित्र शांतिक्षेत्र म्हळयार काबा बांदलें. मुस्लिम धर्म फांकारूंक लागतकूच, ह्या धर्मक्षेत्रांतली फातरी इमारत खूब खेपे मोडून परतून बांदिल्ली. बायबल रचणुकेच्या तेंपार हांगा साबार येमन जमाती राज्य करताल्यो. क्यरायश हाच्या काळांत शाराची खूब भरभराट जाल्ली. मॅक्का हें शार वेपारी केंद्र, धर्मपीठ आनी कविता उत्सव क्षेत्र म्हूण नामनेक पाविल्लें.

मुहंमद पैगंबरान आपल्या आध्यात्मिक ध्येयाचो प्रचार करतसावन ह्या शाराक धर्मीक म्हत्व प्राप्त जालें. सुरवेक ताका विरोध जावन

६२२त ताका मॅक्कासावन मदीना हांगा स्थलांतर जावंचो पडलो. उपरांत ताणें आपल्या सांगात्यांच्या पालवान मॅक्का शार काबिज करून (६३०) आपल्या धर्मप्रसाराक सुरवात केली. ताणें मूर्तीपुजेचेर बंदी घाली. तेचपरी हें शार अल्लाक अर्पण करून तें मुस्लिमांचें एक पवित्र थळ आसा म्हूण जाहीर केलें. तेन्नासावन हें शार इस्लामांचें मुखेल धर्मपीठ म्हूण प्रसिध्द आसा. सुरवेक ह्या शारान उदेंत आशियांतलें एक म्हत्वाचें वेपारी केंद्र म्हूण नामना जोडिल्ली. पूण ६३० उपरांत तें फकत इस्लामांचें पवित्र धर्मक्षेत्र म्हूण प्रसिध्द आसा.

सुरवेच्या काळांत मॅक्का सदांच स्वतंत्र उरलें. ६५६त मुआविया हो खलीफा जाले उपरांत ताणें आपली राजधानी दमास्कस हांगा व्हेली. ७५०त अब्बाती हांच्या ताब्यांत हें शार आयलें. उपरांत १२२७ त इजिप्ताचो सुलतान मम्लूक हाच्या ताब्यांत हें शार आयलें. सोळाव्या शेंकड्यांत मॅक्का आनी मदीना हीं दोनूय शारां ऑटोमन तुर्कींच्या ताब्यांत आयलीं. तेउपरांत हेच सुलतान 'शेरीफ' म्हूण मॅक्केच्या प्रशासकांची नियुक्ती करपाक लागले. पयल्या म्हाझुजाउपरांत ह्या शाराचेर ताबो मेळोवपाखातीर शेरीफ आनी मध्य अरेबियांतले 'वाहाबि' हांचे मदीं सर्त



लागिल्ली. १९२५ त वाहाबि राजा अब्दुल अझीझ इब्न सौद हाणें ह्या शाराचेर धुरी घालून सत्ता हातासली. तेन्नासावन हें शार सौदी अरेबियाचो एक भाग जालो. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत आनी चड करून सौदी अरेबियांत खनिज तेलाचो सोद लागल्या उपरांत, मॅक्का हें शार सौदी अरेबियांतल्या हेर शारांप्रमाण आधुनिक विकासाच्या मार्गार आयलें. मॅक्का शाराक दर वर्सा हजारांनी भेट दिवपी भोंवडेकारांक चडांतचड सुखसोयी मेळच्यो म्हूण सरकाराचे साबार यत्न चलतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मखर :** देवाचे मूर्तीमुखावयली एक आरास. देवाची मूर्त सहसा मेकळी म्हणजेच सजावटी बगर दवरिनात. तिचे मुखार तशेंच फाटल्यान कसली ना कसली सजावट करपाची पद्दत आसा. मखराचो आकार चडसो चौकोनी आसता आनी भोंवतेक मखराच्या माथ्यार घुमटाकृती सजावट आसता. लाकडाचो सांगाडो आनी ताचेर रंगीबेरंगी फोली, बेगडी, मणी, हारशे बसोवन मखर तयार करतात. थरावीक उत्सवावेळार



केळीच्या गब्याच्या तशेंच पात्यांच्या फुलांनी सजयल्लें मखर करतात. चवथीक गणपती मुखार तरेतरेचीं मखरां करपाची चाल आसा.

नवरात्रांक गोंयच्या देवळांनी फिरतें मखर करतात. नवरात्रांचे दर रातीक भजन, कीर्तन जातकच देवाक, देवीक मखरांत बसयतात. वाद्यांच्या तालार एकलो मखर नाचयता आनी त्या फिरत्या मखरांतल्या देवाची, देवीची आरत करतात. नवरात्रांतलें फिरतें मखर हें त्या उत्सवांतलें खाशेलें आकर्शण आसता. आर्विल्ल्या काळांत थर्माकोल, प्लास्टर ऑफ पॅरिस सारक्या वस्तूंचो मखर करपाक वापर करप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**मग :** भारतांतली एक आदिम जमात. ह्या लोकांची चड वसती ब्रह्मपुत्रेच्या देगणांत आसा. तशेंच त्रिपुरा आनी अस्तंत बंगाल राज्यांतूय ह्या लोकांची वसती आसा. ही जमात चिनी-भारतीय जमात ह्या नांवानूय प्रसिध्द आसून तांकां माघ अशेंय म्हण्टात. पूण ते स्वताक मरमग्री, भुईया माघ, बरूआ माघ, राजवंसी माघ, मरमा वा मयमा, रोआंग माघ आनी थोंगला वा जुमिया माघ ह्या नांवांनीय पाचारतात.

हे जमातीचे तीन फांटे आसात - १) थोंगटा, थोंगला वा जुमिया माघ, २) मरमा वा मयमा, रोआंग वा रखाइंग माघ आनी ३) मरमग्री वा राजवंसी, बरूआ वा भुईया माघ. माघांतल्या तिनूय शाखांतल्या कुळींचीं नांवां विंगड विंगड आसून तातुंतलीं चडशीं नांवां न्हंयांच्या नांवांवयल्यान पडल्यांत.

मंगोलॉइड वंशाचीं शारिरीक खाशेलपणां मग जमातींत दिसतात. मोटवो बांधो, रूंद आनी चेपटें मुखामळ, उंच पोल्याचीं घुबडां, चेपटें नाक. पूण मग लोकांचो जसजसो बंगाली लोकांकडे संबंद आयलो तशीं

तांचीं मंगोलियन वंशाचीं शारिरीक खाशेलपणां कमी जायत गेलीं.

चडशे मग लोक शेती करतात आनी कांय लोक मजुरी करतात. राजवंसी माघांतले कांय लोक बरे रांदपी म्हणुनूय प्रसिध्द आसात.

मग लोकांत, एकेच कुळयेंत लग्नां करिनात. पूण कांय मातृवंशीय कुळांत, केन्नाकेन्नाय चुकून लग्नां जातात. तशेंच हे जमातींत वधूमूल्याची पद्दत आसा. चलयेचें लग्न कमी जातींतल्या चल्याकडे जालें जाल्यार चड देज दिवचें पडटा. देखीक, राजवंसी माघ चलयेवांगडा, भुईया माघ चल्याचें लग्न जालें जाल्यार ताका चड देज दिवचें पडटा. मरमग्री ह्या लोकांत, बंगाली हिंदूंभशेन 'सिंदुरदान' हो म्हत्वाचो लग्नसुवाळो आसता. ह्या सुवाळयांत न्हवरो व्हंकलेच्या भांगांत शेंदूर भरता. उपरांत ऐपतीप्रमाण अहेर दितकच नाच-पदांची कार्यावळ जाता.

हे जमातींत एके परस चड बायलो करपाची चाल आसा. तशेंच घटस्फोटाचीय पद्दत आसा. चडशे सगळे मग लोक बौध्द धर्मीय आसून तांचो बौध्द पंथ दाक्षिणात्य आसा. उत्तरेकडच्या तिबेटी बौध्द पंथाक मग लोक मानीनात. पूण थोंगला माघ आजुनूय जडप्राणवादी आसून हिंदू धर्मांतल्या तंत्रमार्गाकडे तांची चड ओड आसा. तंत्र धर्मांतलो शिव आनी दुर्गा ह्या दैवतांची ते पुजा करतात.

दर एक मग वसतीच्या खेड्यांत कोंड्यांनी बांदिल्लें एक खिआँग म्हळयार देवूळ आसता. तातूंत गौतमाची प्रतिमा पुजेखातीर वापरतात.

मग लोक मरण व्हड समारंभ करून करतात. निसणीर घालून मडें व्हरतात. दफन करपाचे सुवातेर एक पॅगोडा वा बौध्द धर्मीय, कोंड्यांचो पुजा माटव घालतात. त्या माटवांत दादले-बायलो मड्याखातीर व्हडाव्हडान रडटात. दादले आपले वटेन आनी बायलो आपलेवटेन ती मडें दवरिल्ली निसण ओडून, ओडाओडी करतात. कांय वेळान एक पक्ष जिखता. उपरांत मडें निसणीसयत त्या माटवांत दवरून, त्या माटवाक उजो लायतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मघा नक्षत्र :** भारतीय २७ नक्षत्रांतलें धावें नक्षत्र. सिंह राशींतलें हें पयलें नक्षत्र आसून तातूंत सिंहेतले ४, ५ वा ६ गिरे म्हळयार आल्फा, गॅमा, ईटा, झीटा, म्यू आनी एप्सायलॉन लिओनीस आशिल्ल्याचें मानतात. ह्या नक्षत्राची आकृताय नांगर, विळो वा शींवाचे तकलेभशेन दिसता. ह्या स गिऱ्यांतले चार गिरे सामके प्रखर आसून तांचो एक समांतरभुज चवकोन जाल्लो आसता. नैऋत्येकडलो आल्फा लिओनीस हो सगळयांत तेजीश्ठ गिरो नक्षत्रांतलो मुखेल म्हळयार योगगिरो आसा. मळबांत दिसतात त्या सामक्या तेजीश्ठ अशा २५ गिऱ्यांतलो हो एक गिरो आसा. ताची प्रत १.३, होरा १० वरां ५ मिनटां आनी ३६.२ सेकंद आनी क्रांती +१२° १३' १९.७", अंतर ८६ प्रकाशवर्सां, निळसो धवो रंग आनी वर्णपटीय प्रकार बी ८ आसा. हो सुर्याच्या सुमार १३० पट तेजीश्ठ आसा.

गॅमा लिओनीस (अलजीबा) हें तारकायुग्म आसा. ह्या नक्षत्राचे उदेंतेक ३०० परस चड अभ्रिका आसात.

१५ एप्रिलाच्या अदमासाक रातच्या ९च्या सुमाराक हें नक्षत्र मध्यमंडाचेर दिसता. १८६६ वर्सा दिशिल्ल्या धूमकेतू उपरांत दर एक ३३ ते ३४ वर्सांच्या काळा उपरांत १४-१८ नोव्हेंबराच्या अदमासाक व्हड प्रमाणांत उल्कावृश्टी जाता. तिचो उद्‌गम बिंदू ह्या नक्षत्रालागसार आसा.

पयलींच्या काळांत मघा नक्षत्रासावन वर्साची सुरवात मानताले, अशें एक मत आसा. वैदिक काळांत दक्षिणायन आनी पावसाची सुरवात ह्या नक्षत्रांत जाताली, तशेंच परिक्षिताच्या वेळार सप्तर्षी मघात आशिल्ले असो उल्लेख मेळटा.

मघा नक्षत्राचेर जाल्लो जल्म अशुभ मानतात. तशेंच फलज्योतिशांत हें नक्षत्र अधोमुख, मध्याक्ष, उग्र आनी बायल नक्षत्र मानतात. ताची देवता पितर आनी आकृती शाला अशी सांगल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**मच्छिंद्रनाथ :** (जल्म : सुमार धावो शेंकडो).

नवनाथांतलो पयलो नाथ. हाका नाथ संप्रदायाचो प्रवर्तक मानतात. मच्छिंदर, मच्छंदर, मच्छहनपाद, मच्छेंद्रपाद, मीनपाद, मीननाथ, मत्स्येंद्र अशे ह्या नांवाचे पर्याय आसात. स्कंद पुराण, नारद पुराण, शंकर दिग्विजय, नाथलीलामृत, भक्तिविजय ह्या ग्रंथांनी मच्छिंद्राची कथा आयल्या. मच्छिंद्राच्या कांय कथांवयल्यान तो भृगुवंशी ब्राह्मण आसुंये अशें दिसता. पूण मच्छघ्नपाद ह्या ताच्या नांवावयल्यान तो कैवर्त म्हळयार खारवी कुळांतलो आसुंये अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा.

नाथ संप्रदायाप्रमाण मच्छिंद्रनाथ हो आदिनाथ शिवाचो शिश्य, गोरखनाथाचो गुरू आनी जालंधरनाथाचो गुरूबंधू आशिल्लो. तो विष्णुचो, शिवाचो वा कविनारायणाचो अवतार मानतात. नेपाळांतले बौध्द ताका अवलोकितेश्वर बोधिसत्त्व मानतात. ताचें मीननाथ आनी बौध्द सिध्द लुईपा हाचेकडे ऐक्य मानपीय परंपरा आसात.

मच्छिंद्रनाथाच्या जल्माविशीं अभ्यासकांचीं विंगड विंगड मतां आसात. हजारीप्रसाद द्विवेदीच्या मताप्रमाण मच्छिंद्राचो जल्म आसामांत, कामरुपाच्या लागसार जालो. पूण डॉ. बागची हाच्या मताप्रमाण ताचो जल्म बंगालांत जालो. आनीक एका मताप्रमाण तो दक्षिणेंतल्या तुळुभाशीक तौलवी देशाचो राजा आशिल्लो. ताणें सांगली जिल्ह्यांतल्या मच्छिंद्रगड हांगा चैत्र वद्य पंचमीक समाधी घेतली अशें मानतात. प्रयागाचो राजा

मरतकच परकायाप्रवेशान त्या राजाच्या राणयांवांगडा आनी परतून एकदां सिंहल देशांतले राणयेवांगडा ताणें संवसार केलो. ताच्या दोन पुतांनीच उपरांत जैन धर्माची स्थापणूक केली अशो कथा मेळटात. मच्छिंद्रनाथ हो भृगुवंशीय ब्राह्मणाचो पूत, गंडांतरयोगाचेर जल्मल्ल्यान ताका दर्यांत सोडलो आनी ताणें नुस्त्याचें रूप घेवन वा नुस्त्याच्या पोटांतल्यान, शंकरान पार्वतीक सांगिल्लें गूढ ज्ञान आयकलें अशीय कथा आसा.

मच्छिंद्रनाथ पयलीं योगमार्गाचो अनुयायी आशिल्लो. उपरांत वाममार्गी साधनेकडे वळून ताणें कौलमार्ग प्रवर्तित केलो आनी गोरखनाथान प्रबोधन करतकच मच्छिंद्रनाथ परतून नाथपंथी योगमार्गाकडे आयलो अशें कांय विद्वानांचें मत आसा. शंकर आनी पार्वती हांच्या शापाक लागून तो आपलें ज्ञान विसरलो. तशेंच ताका बायल, अपत्य आनी भांगर हांचो जाल्लो मोह गोरखनाथान पयस केलो, अशीय एक कथा आसा.

डॉ. बागची हाच्या मताप्रमाण, मच्छिंद्रनाथ बौध्द तांत्रिक आशिल्लो. मच्छिंद्राच्या ग्रंथांचे दोन वाटे करचे पडटात. १. कौलमताचे ग्रंथ आनी २. नाथमताचे ग्रंथ. पयल्या भागांत कौलज्ञाननिर्णय, अकुलवीरतंत्र, कुलानंदतंत्र आनी ज्ञान कलिका हे ग्रंथ येतात. तशेंच कामाख्यगुह्यसिध्दी, अकुलागमतंत्र, कुलार्णवतंत्र, कौलोपनिषद, कौलावलिनिर्णय आनी हेर कांय ग्रंथ मच्छिंद्राच्या नांवाचेर आसात.

नेपाळांत, मच्छिंद्रनाथाक माता म्हूण मानतात. अर्दनारीनटेश्वराकडेन, मच्छिंद्रनाथाक दादल्यावांगडा बायलेचेय गुणधर्म आसात अशें मानलां. भस्मांतल्यान ताणें गोरखनाथाची निर्मिती केली अशी समजूत आसा. नेपाळांतल्या नेवार लोकांच्या मुखेल उत्सवांनी मच्छिंद्रनाथाचो उत्सव सगळयांत व्हड आसता. नेवारांचो तो कृषिदेव आसा. ताचे कृपेनूच पावस पडटा आनी भरपूर पीक येता अशें ते मानतात. तांबड्या रंगाचो एक लाकडाचो ठोकळो घेवन ते मच्छिंद्रनाथाची पुजा करतात. पाटव हांगा मच्छिंद्रनाथाचें एक देवूळ आसा. नेवारांभशेन गुरख्यांचोय तो उपास्य देव आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मजुमदार, धीरेंद्रनाथ :** (जल्म : ३ जून १९०३, बंगाल; मरण : ३१ मे १९६०, लखनौ).

नामनेचो भारतीय मानवशास्त्रज्ञ. एका मध्यम वर्गांतल्या कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. १९२४ वर्सा मानवशास्त्र विशय घेवन कलकत्ता विद्यापिठांतल्यान, पयल्या वर्गांत ताणें एम. ए. ही पदवी घेतली. १९२८ वर्सा सावन तो लखनौ विद्यापिठांत मानवशास्त्र विशयाचो व्याखातो म्हूण रुजू जालो. उपरांत १९३५ वर्सा इंग्लंडांत, ताणें केंब्रिज विद्यापिठाची पीएच. डी. पदवी घेतली. उपरांत परतून तो लखनौ विद्यापिठांत आयलो. १९५१ वर्सा तो मानवशास्त्र विभागाचो मुखेल जालो.

ताणें संस्कृतीक तशेंच शारिरीक ह्या दोनूय मानवशास्त्रीय शाखांनी खाशेलें प्रशिक्षण घेतिल्ल्यान मानववंशाविशीं संशोधन-अभ्यास करप खूब सोपें जालें. तशेंच ताणें उत्तर प्रदेश, गुजरात, बंगाल, मध्य प्रदेश आनी बिहार हांगाच्या आदिवासी लोकांचो अभ्यास करून रक्तरसशास्त्रीय नदरेन सर्वेक्षण आनी ताचें संशोधन केलें. ताणें हो, खस, कोरवा, थारू, गोंड, भिल्ल ह्या आदिम जमातींचो, त्या लोकांभितर रावन अभ्यास केलो.

१९५२-५३ वर्सा वेन्नर-ग्रेन प्रतिश्ठानान, अमेरिकेंत आयोजित केल्ल्या, मानवशास्त्रीय चर्चासत्राक मजुमदार हाजीर आशिल्लो. त्याच वेळार ताणें कार्नेल विद्यापिठांत अभ्यागत व्याख्यातो म्हणुनूय कांय व्याख्यानां दिलीं. १९३९ वर्सा भरिल्ल्या इंडियन सायन्स काँग्रेसच्या मानवशास्त्र विभागाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९४१ वर्सा सावन नॅशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ इंडियाचो तो अधिछात्र आशिल्लो. १९५४ वर्सा रोम हांगा लोकसंख्येविशींचे जागतिक परिशदेंत, संयुक्त राश्ट्रांवतीन सदस्य म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९५६ वर्सा हेग हांगा भरिल्ले आंतरराश्ट्रीय 'ह्यूमन रिलेशन' हे परिशदेंतल्या एका विभागाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. तशेंच आनीकूय जायते भोवमान ताका फावो जाले.

इंग्लंडांत आसतना, मॅलिनोव्हस्की ह्या मानवशास्त्रज्ञाकडे ताची वळख जाली. तशेंच रूथ बेनिडिक्टच्या लिखाणाचोय ताचेर प्रभाव पडलो. 'ए ट्राइब इन ट्रॅन्झिशन' (१९३७) हें ताचें पयलें पुस्तक. ह्या पुस्तकांत ताणें मानवी शरिराची संशोधनात्मक विस्कटावणी केल्या. ताच्या उजवाडा आयिल्ल्या साहित्यांत मानव जातीच्या वर्णनाच्या स्वरुपाचें लिखाण चड आसा. 'हो' (१९३७) आनी 'खस' (१९६२) ह्या जमातींचेर बरयल्ल्या ताच्या व्याप्तिलेखांची खूब नामना आसा. संस्कृतीक मानवशास्त्राचे नदरेन हे व्यक्तिलेख खूब म्हत्वाचे आसात. आदिवासींचे जीणेचेर आदिवासी सोडून हेर मानवसमाजाचो कसो परिणाम जाता, हाचें संशोधन केलें आनी गांवगिऱ्या वाठाराचो ते नदरेतल्यान अभ्यास करून 'रेस रिॲलिटिज इन कल्चरल गुजरात' (१९५०) आनी 'कास्ट ॲंड कम्युनिकेशन इन ॲन इंडियन व्हिलिज' (१९५८) हे दोन मोलादीक ग्रंथ बरयले. ताच्या संशोधन निबंदांतले कांय निबंद तशेंच 'ॲंथ्रपोमेट्रिक सर्व्हे ऑफ द युनायटेड प्रॉव्हिंसिस' (सहलेखक पी. सी. महालनोबिस आनी सी. आर. राव - १९४९) आनी 'रेस रिॲलिटिज इन कल्चरल गुजरातः रीपोर्ट ऑन द ॲंथ्रपोमेट्रिक सेरॉलॉजिकल ॲंड हेल्थ सर्व्हे ऑफ महागुजरात', (१९५०) हीं दोन पुस्तकां चड अभ्यासनीय आसात. हे ग्रंथ ताणें उत्तर प्रदेश, गुजरात आनी बंगाल हांगाच्या जातिजमातींचेर रक्तरसशास्त्रीय आनी मानवमितीविशींचेर बरयल्यात. तशेंच जनांकिकी, रक्तरसशास्त्र, शारिरीक वाड, सांस्कृतिक विक्रिया, नागरी समाज ह्या

विंगड विंगड विशयांचेर संशोधन करून ताणें खूब लिखाण केलें. ह्या विशयांचेर बरयल्ले ताचे स्फुटलेख, सोदनिबंद आनी पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. तातुंतलें 'द फॉर्च्युन्स ऑफ प्रिमिटिव्ह ट्राइब्ज' (१९४४), 'रेसिस अँड कल्चर्स ऑफ इंडिया' (१९४४), 'द अफेअर्स ऑफ ए ट्राइबः स्टडी इन ट्रायबल डायनॅमिक्स' (१९५०), 'द संथाळ : ए स्टडी इन कल्चरल रेंज' (१९५६), 'ॲन इंट्रोडक्शन टू सोशल अँथ्रपॉलॉजी' (सहलेखकः टी. एन. मदन - १९६१) हे ताचे कांय म्हत्वाचे ग्रंथ आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मजुमदार, रमेशचंद्र :** (जल्म : ४ डिसेंबर १८८८, खंडारपाटा, फरीदपूर जि. बांगला देश; मरण : ११ फेब्रुवारी १९८०, कलकत्ता).

भारतांतलो एक श्रेश्ठ बंगाली इतिहासकार. ताच्या बापायचें नांव हालधर आनी आवयचें नांव बिधुमुखी. ताचें सुरवातीचें शिक्षण कटक हांगा जालें. उपरांत १९०५ वर्सा ताणें रेवनशॉ महाविद्यालयांत प्रवेश परीक्षा दिली आनी फुडें प्रेसिडेन्सी कॉलेज (कलकत्ता विद्यापीठ) हातुंतल्यान १९११ वर्सा एम. ए. ची पदवी घेतली.

ढाका विद्यापिठांत ताका अधिव्याख्यात्याची नोकरी मेळ्ळी. उपरांत कांय वर्सांनी थंयच ताची प्राध्यापक म्हूण नेमणूक जाली. ह्याच वेळार ताका कुशाण वंशाविशीं संशोधन करपाखातीर 'प्रेमचंद रायचंद' ही भोवमानाची मोलादीक शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. त्याच काळांत रवींद्रनाथ टागोर, अशुतोष मुखर्जी, जदुनाथ सरकार, सुरेंद्रनाथ सेन ह्या उच्च साहित्यिक विचारवंतांचो सांगात ताका मेळ्ळो.

'कार्पोरेट लाइफ इन एंशंट इंडिया' ह्या विशयाचेर प्रबंध बरोवन ताणें पीएच. डी. ही पदवी घेतली. ह्या प्रबंधाखातीर ताका 'ग्रिफिथ मेमोरियल' हें इनाम मेळ्ळें. उपरांत १९२१ वर्सा ढाक्का विद्यापिठांत इतिहास मुखेल म्हूण ताची नेमणूक जाली. थंयच १९३७ वर्सा तो कुलगुरू जालो. १९४२ वर्सा ह्या पदावयल्यान निवृत्त जातकच बनारस हिंदू विश्वविद्यालयांत इतिहास विभागाचो मुखेल म्हूण ताची नेमणूक जाली.

पुर्विल्लो इतिहास हो ताच्या व्यासंगाचो विशय आशिल्लो. तशेंच ताणें मध्ययुगीन भारत, बृहत्तर भारत आनी आर्विल्लो भारत हांचोय बारीकसाणेन अभ्यास आनी संशोधन केलें. ताच्या सगळ्या आंगांनी पुराय अशा अभ्यासाक लागून क. मा. मुनशी हाणें भारतीय विद्याभवनाच्या इतिहास विभागाचो मुखेल म्हूण मजुमदाराची नेमणूक केली आनी 'द हिस्टरी अँड कल्चर ऑफ द इंडियन पीपल' (११ खंड) हें इतिहास माळेचें संपादन करपाचें काम मजुमदाराकडे सोंपयलें. भवनाच्या इतिहासाविशींच्या ग्रंथांक मजुमदारान बरयल्ल्यो प्रस्तावना अभ्यासपूर्ण अशो आसात. ताणें विद्याभवनाच्या इतिहासाचे ९,००० पानांचे इकरा खंड (१९४४-४७) ह्या काळांत संपादून खडतरपणान पुराय केले. तशेंच ताचे हेर जायते सोद निबंद उजवाडा आयल्यात. ताचे कांय नामनेचे ग्रंथ अशे आसात - 'एंशंट इंडियन कॉलनीज इन द फार ईस्ट' (१९२७), 'ग्रेट वुइमेन ऑफ इंडिया' (१९५३), 'सिपाय म्युटिनी अँड द रीव्होल्ट ऑफ १८५७' (१९५७), 'एक्सपांशन ऑफ आर्यन कल्चर अँड ईस्टर्न इंडिया' (१९६०), 'ॲडव्हान्स हिस्टरी ऑफ इंडिया' (१९६०), 'क्लासिकल अकौंट्स ऑफ इंडिया' (१९६०), 'ग्लिम्पसिस ऑफ बेंगॉल इन द नाइन्टिन्थ सेंचुरी' (१९६०), 'हिस्टरी ऑफ द फ्रिडम मुव्हमेन्ट इन इंडिया' (३ खंड- १९६३), 'इंडियन रिलिजन्स' (१९६३), 'हिस्टॉरिऑग्रफी इन मॉडर्न इंडिया' (१९७०), 'एंशंट बेंगॉल' (१९७१), 'हिंदू कॉलनीज इन द फार ईस्ट' (१९७३).

इंग्लीश भाशेंत तो खांपो आशिल्लो. तशेंच ताची भास मवाळ आनी गोड आशिल्ली. १९५८-५९ वर्सा तो अभ्यागत व्याख्यातो म्हूण शिकागो आनी पेनसिल्व्हेनिया विद्यापिठांत व्याख्यानां दिवपाखातीर गेल्लो. तशेंच विंगड विंगड परदेशांतल्या विद्यापिठांनीय ताणें व्याख्यानां दिलीं. भारतांत आनी भारताभायर लेगीत जायत्या समाजीक, संस्कृतीक आनी संशोधनाचेर आदारीत संस्थांचो तो सदस्य, पदाधिकारी वा अध्यक्ष आशिल्लो. अखिल भारतीय इतिहास परिशद, अखिल भारतीय प्राच्यविद्या परिशद तशेंच इस्तंबूल हांगाचे प्राच्यविद्या परिशदेचो एके शाखेचो अध्यक्ष जावपाचो भोवमान ताका मेळ्ळो. एशियाटिक सोसायटी, कलकत्ता आनी मुंबय शाखा तशेंच रॉयल एशियाटिक सोसायटी ग्रेट-ब्रिटन-आयर्लंड ह्या संस्थांचो तो अधिछात्र आशिल्लो. १९६७-१९६८ वर्सा, कलकत्त्याचे एशियाटीक सोसायटीचो अध्यक्ष जावपाचो मान ताका मेळ्ळो. त्याच वर्सा तो कलकत्त्याचो शेरीफ जालो. हाचे भायर 'हिस्टरी ऑफ मॅनकाइंड' हे युनेस्कोचे जागतिक लिखाण समितीचो तो उपाध्यक्ष आशिल्लो. भारत इतिहास संशोधन मंडळ, भांडारकर प्राच्यविद्या संशोधन संस्था, पुणे; फादर हेरास इन्स्टिट्यूट, मुंबय; बंगीय साहित्य परिशद, कलकत्ता; ह्या संस्थांकडेन ताचो लागींचो संबंद आशिल्लो.

ताच्या लिखाण-संशोधनाविशीं ताका जायते मान-भोवमान आनी इनामां फावो जालीं. सर जॉर्ज कॅम्बेल, बी. सी. लॉ आनी सर विल्यम जोन्स हांचे यादीक दवरील्लीं भांगरापदकां मजुमदाराक फावो जालीं. तशेंच कलकत्ता, जाधवपूर, रवींद्र भारती ह्या विद्यापिठांनी ताका भोवमानाची डी. लिट्. ही पदवी दिली.

१९२८ वर्सा अध्यापनाच्या निमतान युरोपाचे भोंवडेर गेल्लो, तेन्ना ताणें युरोपांतल्या विंगड विंगड देशांनी भेट दिली. हे भोंवडेत ताणें इजिप्त, सुमात्रा, कंबोडिया, सयाम, मलाया ह्या मध्य उदेंतेकडल्या आनी आग्नेय आशियांतल्या, देशांतल्या पुर्विल्ल्या भारतीय संस्कृतीचो प्रभाव आनी प्रसार हाची वळख करून घेतली.

- कों. वि. सं. मं.

**मठ :** ब्रह्मचारी, साधू, संन्यासी, भिक्षू आदी बायलां वा दादल्यांच्या निवासस्थानाक सादारणपणान मठ अशें म्हण्टात. संस्कृतांतल्या 'मठ' (वास्तव्य करप) ह्या धातूपसून हें नांव तयार जालां. अमरकोशांतले व्याख्येप्रमाण मठ म्हळयार छात्रांचें निवासस्थान. धर्मीक उपासना करीत जिवित घालोवप आनी संन्यासाकडे वळपी मनशाची सैमीक प्रवृत्ती हांकां लागून मठसंस्था जल्माक आयली अशें म्हण्टात. भारतीय लोकांक मोक्षाची ओड आशिल्ल्यान पुर्विल्ल्या काळासावनच तांणीं मठसंस्थेचो आलाशिरो घेतिल्लो.

पारलौकिक जिवितावांगडाच मठसंस्था, ऐहिक स्वरुपाचीय कामां करता. देखीक- कांय कडेन ती भलायकेविशींचीं कामां करता तर कांय धर्मांत राजकीय आनी सैनिकी स्वरूपाचीं कामां करता. शिक्षणसंस्थांची निर्मिती करपाचें तशेंच संस्कृतायेचीं खाशेलपणां फुडल्या पिळग्यांमेरेन तिगोवन दवरपाचें कामय मठ संस्था करतात. युरोपांत रोमन साम्राज्य लयाक वतकच सुमार एक हजार वर्सां संस्कृतायेचे राखणेचें काम मठसंस्थेन केलें अशें म्हण्टात.

**हिंदू मठ :** बौध्द संघाची निर्मिती जावचे पयलीं सावन हिंदू धर्मांत आश्रमवेवस्था आशिल्ली. पूण प्रत्यक्षांत मात मठसंस्था नाशिल्ली. बौध्द धर्माच्या उदया उपरांत मात हिंदू धर्मांतय मठसंस्थेचो विकास जालो. मठ ही राबित्याची कायमची सुवात आसपापरस धर्मशाळेसारकेंच प्रवासांतलें मुक्कामाचें एक ठिकाण म्हूण ताचो उपेग जातालो. महंत मठांत सदांच रावताले आनी भोंवडेकारांची वेवस्था पळेताले. मठाच्या मुखेल्याक मठाधिपती, मठाध्यक्ष अशें म्हण्टाले. वेगवेगळया संप्रादायांचे वेगवेगळे मठ आसतात आनी अनुयायी आपापल्या संप्रदायाच्या मठांत रावतात. खूबदां देवळांक जोडून मठ, तर कांय वेळा मठांक जोडून देवळां अशी स्थिती दिसून येता. देखीक- गुजरातांतलो येवूरचो मठ सोमनाथाच्या देवळाक जोडला. तर कदंबेश्वराचें देवूळ बंकापूरच्या मठाक जोडलां.

कांय मठांकडेन संपत्ती आनी जमीन व्हड प्रमाणांत आसता. कारण सामान्य मनशांसावन राजांमेरेनचे सगळया थरांतले लोक मठांक वेगवेगळयो देणग्यो दित आसतात. अशो देणग्यो दितकच पुण्य मेळटा, असो लोकांचो भावार्थ आसा. पुण्यप्राप्तीचे इत्सेक लागूनच मठ बांदून ताचें दान दिवपाची प्रथा दिसून येता. देशाच्या वेगवेगळया वाठारांत शैव, वैश्णव, महानुभाव संप्रदायाचे वेगवेगळे मठ सांपडटात. वीरशैवांचेय मठ दिसून येतात. रामानुजाचार्य, वल्लभाचार्य, मध्वाचार्य, चैतन्य महाप्रभू ह्या आचार्यांनी सुरू केल्ले संप्रदायांचे वेगवेगळे मठ दिसून येतात. आद्य शंकराचार्यान बद्रीनाथ, द्वारका, जगन्नाथपुरी, शृंगेरी आनी कांची कामकोटी ह्या सुवातींनी स्थापन केल्ले मठ सगळयाक नामनेक पावल्यात. गोसाव्यांचे जायते 'आखाडे' वा मठ भारतांत आसात. समर्थ रामदासान कितलेशेच मठ स्थापन केल्ल्याचें सांगतात.

**बौध्द मठ :** बौध्द धर्मांत मठसंस्थेक खूब म्हत्व आसा. बौध्द धर्मांत मठसंस्था ह्या अर्थान 'संघ' हो शब्द वापरतात. बौध्द धर्मांतली ही मठसंस्था स्वता गौतम बुध्दाच्या काळांतूच अस्तित्वांत आयिल्ली. बौध्द मठांक 'विहार' अशें म्हण्टात. 'आराम', 'संघाराम' अशे शब्दय मठ ह्या अर्थान वापरतात.

सगळया जातींच्या लोकांक विहारांत प्रवेश मेळटाले आनी बौध्द धर्माचें हें एक खाशेलपण आशिल्लें. गौतम बुध्द, बायलांक बौध्द संघांत प्रवेश दिवपाक सुरवेक तयार नाशिल्लो. पूण आपली मावशी तशेंच शिश्य आनंद हांच्या आगऱ्याखातीर ताणें बायलांकय भिक्षुणी जावन मठांत रावपाची परवानगी दिली. भिक्षूंक मठांतल्या राबित्यांत अध्ययन, आचरण, भेस, भिक्षा ह्या गजालींविशीं वेगवेगळया नेमांचो पाळो करचो पडटालो. तक्षशिला, नालंदा हांगाच्या विहारांचीं शिक्षणीक केंद्रां म्हूण नामना जाल्या. भारतांतल्या वेगवेगळया वाठारांत कितलेशेच विहार आशिल्ले. बिहार प्रांताक थंय व्हड संख्येन आशिल्ल्या विहारांवयल्यान तें नांव पडलां.

**जैन मठ :** जैन धर्मांतय मठसंस्थेक बरेंच म्हत्व आसा. दक्षिण भारतांत कारंजा, लातूर, मालखेड, कोल्हापूर, मुदबिद्री, कारकल, हुमच हांगा जैन मठ आसात. उत्तर भारतांत गिरनार, शत्रुंजय, पावापुरी, कुंथलगिरी ह्या तीर्थथळांत जैनांचे मुखेल मठ आसात. कितल्याशाच मठांवरवीं हालीं धर्मीक, तंत्रीक आनी वैजकी शिक्षणाचीं विद्यालयां आनी महाविद्यालयां चलोवपाचें म्हत्वाचें कार्य चलता.

**खिस्ती मठ :** 'मोनाथेइन' ह्या ग्रीक शब्दापसून 'मोनॅस्टरी' हो शब्द घडला. ताचो अर्थ एकांतवासांत, जगापसून अलिप्त रावप. हातूंत 'कॉनव्हेंट' चो आस्पाव जाता. लॅटीन (Convenire) म्हळयार एकठांय येवप, ह्या शब्दापसून ताची उत्पत्ती जाल्या. तातूंत मठांत मतां दिवपाचो पूर्णाधिकार आशिल्ले मठवासी, मठांत रावपी सगळे आनी मठ हांचो आस्पाव जाता. हो शब्द धर्म-भगिनींच्या (नन्सच्या) पंगडाखातीर आनी त्यो जंय रावतात ते इमारतीखातीरय वापरतात.

पाखोमिओस हाणें इ.स. ३२०-२५ च्या सुमाराक, इजिप्तांतल्या ताबेतीस हांगा पयलो मठ बांदलो. ह्याच शेंकड्याच्या मध्याक बायलांखातीर मठ स्थापन केले. सव्या शेंकड्यांत अस्तंत युरोपांत मठांचो विस्तार व्हडा प्रमाणांत जालो. सेंट बेनेडिक्टान इटलींतल्या मॉंटी कासिनो हांगा मठ स्थापन केलो.

खिस्ती मठवासियांचें जिवित तीन मुळाव्या प्रतिज्ञांचेर आदारिल्लें आसा. तांकां सुवार्तासंमत (evangelical) प्रतिज्ञा म्हण्टात. मठांत रावतल्यान आजन्म ब्रह्मचारी रावप, सदांच अर्थीक दारिद्र्यांत रावप आनी आज्ञापालन (सेवा) करप अशो ह्यो तीन प्रतिज्ञा आसात.

मध्ययुगांत मठांनी झुजां आनी हेर संकश्टांनी पिडिल्ल्या लोकांक

आलाशिरो दिलो. मठ हीं शिक्षणाचीं आनी संस्कृतायेचीं बरीं केंद्रां जालीं. मठांतल्यान क्रिस्ती धर्माचो खोलायेन अभ्यास जावंक लागलो.

कोलोनच्या सेंट ब्रूनोन 'कर्थूशन' संघ स्थापन केलो आनी पंदराव्या शेंकड्यांत ताची भरभराट जाली. प्रॉटेस्टंट धर्मक्रांतीक लागून मठांची संख्या मात्शी कमी जाली पूण मठपरंपरा मात बंद पडलीना. लॉयोलाकार सेंट इग्नेशिअसान (१४९१-१५५६) 'जेझुइट संघ' स्थापन केलो. ग्रीसांतल्या माऊंट ॲथॉस हांगा खिस्ती लोकांच्या मठाचें व्हडलें केंद्र आसा.

भारतांत मठपरंपरा पयलींसावन चलत आयिल्ली आसली, तरी भारतांतल्या खिस्ती मठांचो आंकडो सामको कमी आसा. भारतांत जे खिस्ती मठ आसात, तातूंतले दादल्यांखातीरचे चार मुखेल मठ अशेः आशीरवनम्, केंगेरी - बंगलोर; कुरीसुमाला आश्रम, व्हागनोन - कोट्टायम; हांचेखेरीज दे सिल्व्हेस्ट्रियन बेनेडिक्टाईन संघ हांचे दोन मठ, वनाश्रम बंगलोर आनी सेंट जोसेफचो मठ - थौउडरनाद (वायनाड).

बायलांखातीर भारतांत कितलेशेच क्रिस्ती मठ आसात. 'द ऑर्डर ऑफ द डिस्काल्स्ट कार्मेलाइट्स' हांचे मठ कलकत्ता, क्विलॉन, कुंभकोणम्, कोईमतूर, कोट्टयम, गोंय, तंजावर, तिरव्हाला, तिरुचिरापल्ली, पाँडिचेरी, पुणे, मंगलोर, मदुराई, मुंबय, रांची, सालेम हांगा आसात.

'द पूवर क्लेर्स कोल्लेटाईन्स' संघाचे वेरापल्ली, डुमका (बिहार) आनी ऊटकमंड हांगाय मठ आसात. 'द पूवर क्लेर्स ऑफ पॅपेट्यूअल ॲडोरेशन' हांच्या संघाचे चानगाऊचेरी, कोत्तार, ऊटकमंड आनी क्विलॉन हांगा मठ आसात.

फाटल्या दोन म्हाझुजांवेळार आनी हेर संकश्टांवेळार पिडिल्ल्या लोकांची सेवा मठांतल्या दादल्या-बायलांनी सेवाभावन केली. कितल्याशाच देशांनी आध्यात्मिक विचारांचीं केंद्रां म्हूण मठांचो उपेग जाता.

**गोंयचे मठ : काशीमठ बांदोडें :** वैश्णव धर्मपीठ परंपरेंतल्या काशीमठाचो (वाराणसी) एक उपमठ. महर्षी कृष्ण द्वैपायन व्यास ३०४२ (बी. सी.) हो हे परंपरेचो आद्य आचार्य अशें समजप जाता. महर्षी व्यासाचो शिश्य, महर्षी पयलीं पसून ते महर्षी दुर्वास ४०० (ए. डी.) हे धर्मगुरू ऋषी परंपरेंत येतात. महर्षी दुर्वासावांगडा गुरूकुल परंपरेचे मठ परंपरेंत रुपांतर जालें आनी ऋषी हे धर्मगुरूचे उपाधीचें रुपांतर यती धर्मगुरूंत जालें. अशेतरेन महर्षी दुर्वास हो हे परंपरेंतलो पयलो यती, स्वामी ज्ञानाधीतीर्थ जावन गेलो. तो गुप्त साम्राजाचो राजगुरू आशिल्लो. ताच्याच वर्चस्वाखाल गुप्त घराणें हें वैश्णव पंथीय जालें. गुप्त सम्राटासारकोच सम्राट अकबरय काशीमठाच्या धर्मगुरूक सन्मानान वागयतालो. धरभांक राजघराण्यांतल्या प्रद्युम्नसिंह हाणें ५व्या शतमानांत (A.D.) काशी मठाखातीर आपलो एक राजवाडो दान केल्लो असो उल्लेख मेळटा.

१५४२ त ह्या संप्रदायाचो मुखेल मठ वाराणसी हांगा ब्रह्मघाटाचेर स्थापन जालो. मध्वाचार्यप्रणीत द्वैत सिध्दांत हो ह्या मठाचो पंथ आसा. श्रीविष्णु हें हे परंपरेचें आराध्य दैवत आसा.

ह्या मठाच्यो भारतांत खूबकडेन शाखा आसात. तेभायर वेदशास्त्राचेर शिक्षण दिवपी पाठशाळा आसात.

गोंयात श्री काशीमठ संस्थान बांदोडे ह्या मठाची स्थापना २९जून १९७२ दिसा जाली. बनारसच्या श्री काशीमठाचे श्री श्रीमद सुधिंदर तीर्थ स्वामीजी हाणें मठाची स्थापणूक करपाक फुडाकार घेतलो. ह्या कामांत ताका कवळे मठाचे स्वामी श्रीमद सच्चिदानंद तीर्थ आनी थळाव्या अनुयायांनी मदत केली. ह्या मठांतली मुखेल पुजेची मूर्त भगवान श्री वेदव्यास हाची आसा. तेभायर साळीग्रामाची हांगा पुजा जाता. १९७३ सावन गोंयच्या गौड सारस्वत ब्राह्मण समाजाचें प्रतिनिधीत्व आशिल्ल्या मंडळाकडच्यान मठाचो कारभार चलता. श्री श्रीमद सुधिंदर तीर्थ स्वामीचे पट्टशिश्य स्वामीजी राघवेंद्र तीर्थ स्वामी हाच्या मार्गदर्शनाखाल ह्या मठाचीं वेगवेगळीं कार्यां चलतात.

**श्रीगोकर्ण पर्तगाळी जिवोत्तम मठ :** एक वैश्णव संप्रदायी द्वैतमतवादी धर्मपीठ. हें धर्मपीठ गोंयांतल्या काणकोण तालुक्यांतल्या पर्तगाळी वाठारांत आसा. पूण ह्या धर्मपिठाच्या मूळ मठाची स्थापना दक्षिण कर्नाटकांत भटकळ हांगा श्रीमदनारायणतीर्थ स्वामी हाणें शालिवाहन शके १३९८वर्सा केली. द्वैतमतप्रवर्तक श्रीमध्वाचार्य हाणें उडुपी हांगा जे आठ मठ स्थापन केल्ले, तातुंतल्या फलमार मठाचो धावो आचार्य श्रीरामचंद्रतीर्थ हाणें गौड सारस्वत ज्ञातींतल्या माधव नांवाच्या एका ब्रह्मचाऱ्याक १३९८ त चैत्र शुध्द द्वितीये दिसा दीक्षा दिली. होच श्रीमदनारायणतीर्थ. भटकळ हांगा जंय ताणें मठ स्थापन केल्लो थंयच गोपीनाथ न्हंयेचे देगेर ताची समाधी आसा. ताचे उपरांत ताचो शिश्य श्रीवासुदेवतीर्थ हाचो पट्टाभिशेक करपांत आयलो. हाची कारकिर्द थोड्याच काळाची. ताणें शके १४३९ त श्रीजिवोत्तमतीर्थ हाका आश्रम दिलो. उपरांत तो तीर्थयात्रेक गेल्लेकडेन ताणें भिमा न्हंयेचे देगेर पंढरपूर क्षेत्री समाधी घेतली. श्री वासुदेव तीर्थाक लोक तंगळवडेर ह्या नांवानय वळखताले. श्रीजिवोत्तमतीर्थ हो मूळचो बसरू हांगासल्लो. ताणें आपलें पुराय जिवीत लोकांक आपलें गिन्यान आनी योग सामर्थ्याचो प्रत्यय हाडून दिवपांत घालयलें. ताणें तीर्थयात्रेच्या निमतान भारतभर भोंवडी केली. ताचे उत्तर दिकेचे भोंवडेवेळार शिला न्हंयेंत न्हावपाक गेल्लेकडेन ताका दिग्वीजय विठ्ठल, भूविजय विठ्ठल आनी वीर विठ्ठल अशो तीन धातुमूर्ती मेळ्ळयो. गोकर्ण हांगा येतकच थंय कोटितीर्थां लागसार ताणें इ. स. १५०० त उपमठ बांदलो आनी शिलान्हंयेंत मेळिल्ले भूविजय विठ्ठल मूर्तीची स्थापना केली. उपरांत ताणें दुसरो उपमठ बसरूर हांगा बांदून तातूंत दुसऱ्या दिग्वीजय विठ्ठलाची मूर्त स्थापन केली. तिसरी वीर विठ्ठलाची मूर्त ताणें आपली इश्टदेवता मानून स्वताच्या देव्हाऱ्यांत (भटकळ) दवरली. हे मूर्तीची पुजा तो स्वता

करतालो. तेन्नाच्यान हे वीर विठ्ठल मूर्तीची पुजा पिठाधीशानीच करपाची चाल पडली. अध्यात्मविद्येंत ताचो खूब व्हड अधिकार आशिल्लो. तीर्थयात्रा करताआसतनाच ताणें स्वधर्माचो प्रसार केलो. गोकर्ण, बसरूर हांगा मठस्थापना करून भटकळ हांगाच्या मुखेल मठाचो विस्तार केलो. आपले तीर्थयात्रेचेर ताणें 'तीर्थावळ' नांवाचें काव्यय बरयल्लें आसा.

श्रीजिवोत्तमतीर्थाच्या महानिर्वाणाउपरांत श्रीपुरूषोत्तमतीर्थ हाचो शके १५१० वर्सा पट्टाभिशेक करपांत आयलो. ताणें 'कर्मसिध्दांत' हो ग्रंथ बरोवन नित्यनैमेत्यिक आनी श्रौतस्मार्त कर्माक म्हत्व दिलें. ताणें 'संन्यास पद्दती' नांवाचो आनीक एक ग्रंथ बरयलो. श्रीगोकर्ण क्षेत्रारच ताणें समाधी घेतली.

श्रीपुरूषोत्तमतीर्था उपरांत ताचो शिश्य श्री अणुजिवोत्तमतीर्थ हाचो पट्टाभिशेक जालो. ताणें १५१०-१५६० अशीं पन्नास वर्सां मठाचो कारभार पळयलो. ताचे कारकिर्दीतलें सगळ्यांत म्हत्त्वाचें कार्य म्हळ्यार ताणें गोंयांत दिवचल हांगा स्थापन केल्लो मठ. गोंयांत ताणें वैश्णव संप्रदायाचो खूब प्रसार केलो. फुडें शके १५६०त ताणें दिवचल हांगा समाधी घेतली.

उपरांत श्रीगोकर्ण मठाचो सवो आचार्य श्रीरामचंद्रतीर्थ हाचो पट्टाभिशेक जालो. ताणें २७ वर्सां संस्थानाचो कारभार पळयलो. ताचे कारकिर्दीतलें म्हत्वाचें कार्य म्हळ्यार गोंयांतल्या पर्तगाळी मठाची स्थापना. एक दीस दैवी आदेशा प्रमाण श्रीरामचंद्रतीर्थ स्वामी गोकर्ण हांगाच्या मठालागसार खणकाम करता आसतना ताका थंय श्रीराम, लक्ष्मण, सीता आनी हनुमंत अशो चार मूर्ती मेळ्ळयो. ह्या मूर्तीची स्थापना खंय करची ह्या विचारांत आसतना स्वामीक त्यो मूर्ती घेवन उत्तर दिकेवटेन वच आनी ज्या जाग्यार पावतकच मूर्ती जड जाल्यात अशें दिसतलें त्या जाग्यार ह्या मूर्तीची स्थापन कर असो दुश्टांत जालो. ते प्रमाण ह्यो मूर्ती घेवन स्वामी उत्तर दिकेक म्हळ्यार गोकर्णाच्यान कारवार मार्गान माशें गांवच्यान पैंगीण हांगा आयलो. थंय ताका शिलामूर्ती जड जाल्यात अशें दिसलें.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर जाग आयली तेन्ना ताका मुखार गाय उबी आशिल्ली दिसली. तिची पुजा करून स्वामीन मूर्ती स्थापनेचो जागो दाखोवपाविशीं तिका विनयलें. तेन्ना गाय रानांतल्यान उत्तर दिकेवटेन गेली आनी फुडें कुशावती न्हंयेचे पवित्र भूंयेचेर तिणें एके सुवातेर आपल्यो दुदाच्यो धारो सोडल्यो. स्वामीन तेच सुवातेर राम, लक्ष्मण आनी सिता ह्या तीनय मूर्तीची स्थापना करून थंय मठ बांदलो. गाय परत चलूंक लागली. ती बद्द सद्याच्या रिवण (ऋषीवन) ह्या गांवांत येवन उबी रावली आनी तिका परत पान्हो फुटलो. हनुमानाची मूर्तीय जड जाली. त्याच जाग्यार स्वामीन देवूळ बांदून मठाची स्थापना केली. फुडें श्रीरामचंद्रतीर्थ वृन्दावनस्थ जातकच ताचो शिश्य श्री दिग्वीजय रामचंद्रतीर्थ हाचो पट्टाभिशेक जालो. ताणें पर्तगाळी मठांत रघुचंद्रतीर्थ ह्या आपल्या शिश्याक आश्रम दिलो. पर्तगाळी मठांत श्रीराममूर्तीची स्थापना जाली आनी तेन्नासावन रामनमीचो उत्सव सुरू जालो. ह्या उत्सवाखातीर श्रीरामचंद्रतीर्थान व्हड रथ तयार करून घेतिल्लो. रामनमीचे राती ह्या रथांतल्यान रामाची मिरवणूक काडटाले. ह्या उत्सवांत गरुडपूजन, ध्वजारोहण, दंडबाळी, होमहवन आदी कार्यक्रमय जावंक लागले.

फुडें श्रीरघुचंद्रतीर्थ ह्या शिश्याक दीक्षा दिवन श्रीरामचंद्रतीर्थ अंकोल्याक गेलो. थंयच ताचें महानिर्वाण जालें. उपरांत श्रीरामचंद्रतीर्थाचो एक शिश्य श्री लक्ष्मीनारायण हाचेकडेन मठाचो कारभार दिवन श्री रघुचंद्रतीर्थ होनावर हांगा गेलो आनी थंयच ताणें समाधी घेतली. ताचेउपरांत श्रीलक्ष्मीनारायण तीर्थ हाणें शके १६०१ सावन मठाचो कारभार पळोवंक सुरवात केली. हाणें मठाच्या कारभारांत जायत्यो सुदारणा घडोवन हाडल्यो. कांय जमनी घेतल्यो आनी मठाचें उत्पन्न वाडयलें. ताणें कांय मठांचो जिर्णोध्दार केलो. ताच्या उपरांतचो पिठाधीश श्रीलक्ष्मीकांततीर्थाचे कारकिर्दीत पर्तगाळी संस्थानाक जमनीच्या रुपान जायत्यो देणग्यो मेळ्ळयो आनी मठाची अर्थीक स्थिती बरीच सुदारली. ह्या आचार्या उपरांत ताचो शिश्य श्री रमाकांततीर्थ हो पीठाधीश जालो. ताच्या उपरांत ताचो शिश्य श्रीकमलानाथतीर्थ हाणें मठाचो कारभार पळयलो. ताच्या महानिर्वाणा उपरांत श्रीकांततीर्थान मठाचीं सुत्रां हातांत घेतलीं आनी मठपरंपरा फुडें व्हेली. श्रीकांततीर्थाउपरांत ताचो शिश्य श्रीभूविजय रामचंद्रतीर्थ हाणें शके १७०० पसून मठाचो कारभार पळोवंक सुरवात केली. ह्या स्वामीन मठाक नेमान येवपी उत्पन्न तयार करून दवरलें. ताचे उपरांत ताचो शिश्य श्रीरमाकांततीर्थ हाणें मठाचो कारभार पळयलो. ताची शापानुग्रह समर्थ म्हूण नामना आशिल्ली. पर्तगाळीमठ पोर्तुगेजांच्या अमलांखाल आशिल्लो. ताचे उपरांत ताचो शिश्य श्रीलक्ष्मीकांततीर्थ हो पीठाधीश जालो. त्यावेळार तो सामकोच ल्हान आशिल्लो. व्हड जातकच ताणें जायत्यो तीर्थयात्रा केल्यो. तो चडसो बडोद्यांतच आसतालो. थंयच ताणें समाधी घेतली. ताणें गोकर्णाच्या नव्या मठाचो जिर्णोध्दारय केलो आनी मठामुखार मारुतीचें ध्वजगोपुरूय बांदलें.

ताच्या उपरांत ताचो शिश्य श्रीआनंदतीर्थ पिठाधीश जालो. ताणें मठाखातीर जायत्यो जमनी विकत्यो घेतल्यो आनी मठाचे अर्थीक स्थितींत सुदारणा केली. पर्तगाळी मठाचो ताणें जिर्णोध्दार केलो. मठाच्या आंगणांत मारुतीची गुडी उबारली. पैंगीण हांगाच्या परशुरामाच्या देवळाचो घूड बांदपाक ताणें म्हाजनाक आदार दिलो. शके १७४५ वर्सा ताणें एक टको तयार केल्लो जो, पैंगीण हांगाच्या बेताळ देवालयाच्या उत्सवावेळार वाचपांत येता. श्रीआनंदतीर्थ समाधीस्थ जातकच श्रीपूर्णप्रज्ञतीर्थ हाचो पट्टाभिशेक करपांत आयलो. ताणें सुमार पन्नास वर्सां मठाचो कारभार पळयलो. ताणें मध्याचार्याच्या ब्रह्मसुत्रांचो तेचपरी हेर ग्रंथांचोय भरपूर अभ्यास केलो. आपलो जायतो काळ ताणें विद्यादानांत घालयलो. ताची विद्वत्ता आनी अनासक्ती पळोवन काशीच्या विद्वानांनी ताका मानपत्रां दिल्लीं. शके १७६१ वर्सा ताणें गोकर्ण मठांत श्रीपद्मनाभतीर्थ हाचो

शिश्य म्हूण स्वीकार केलो. गुरू तीर्थयात्रेक वतालो तेन्ना शिश्य श्रीपद्मनाथतीर्थ पर्तगाळी मठाचो सगळो कारभार पळेतालो. ताणें न्याय, तर्क, व्याकरण आदी विशयांचो भरपूर अभ्यास केल्लो. ताणें संस्थाना खातीर जायत्यो जमनी मेळयल्ल्यो आनी संस्थानाची अर्थीक बसकण घट केली. ताचेउपरांत ताचो शिश्य श्रीइंदिराकांत हाचो काळ म्हळयार गोकर्ण पर्तगाळी मठाचे कारकिर्दीतलो भांगराकाळ म्हणप जाता. पिरायेच्या १५व्या वर्सा ताका आश्रमदीक्षा दिवपांत आयली. ताणें वेद, वेदांगां, काव्य, व्याकरण, साहित्य, न्याय, मिमांसा आनी दर एक शाखेचो खोलायेन अभ्यास केलो. गीता आनी ब्रह्मसुत्रां हांचोय ताणें अभ्यास केल्लो. खंयच्याय विशयाचेर उलोवपांत, प्रवचन करपांत तो तरबेज आशिल्लो. १८१४ वर्सा तो पीठाधिश्ठीत जालो. उपरांत ताणें चार वर्सांनी नरहरीतीर्थ ह्या शिश्याक आश्रम दीक्षा दिली. पूण देड वर्सा उपरांत रोखडेंच ताका मरण आयलें. ताच्या उपरांत १० वर्सांनी श्रीकमलनाथ ह्या दुसऱ्या शिश्याचो स्वीकार केलो. फुडें संस्थानाचो कारभार आपल्या शिश्याकडेन सोंपोवन ताणें उरिल्लें आयुश्य संचार करून धर्मजागृती करपांत खर्चिलीं. दिवचल हांगाच्या अणुजिवोत्तमतीर्थान स्थापन केल्ल्या मठाचो इंदिराकांततीर्थान जिर्णोध्दार केलो. ताका लेखनाचीय आवड आशिल्ली. गीतेवयल्या भाश्याचो ग्रंथ ताणें बरयलो. हाचेभायर गीतागौरव, न्यायमिमांसा, द्वैतबोधिनी अशे ग्रंथ ताणें बरयल्यात. सागरामाचार्य श्रीमत सुनीती भागवताचेर ताणें टीका बरयल्या. शके १८६४ चैत्र वद्य सप्तमी ह्या दिसा तो समाधीस्थ जालो. श्रीइंदिराकांत समाधीस्थ जातकच ताचो शिश्य श्रीकमलनाथ पीठाधीश जालो. ताणें कारवारच्या मुरलीधर मठाची स्थापना केली. तशेंच गोकर्ण आनी व्यंकटपूर मठाचो जिर्णोध्दार केलो. पूण ताची कारकीर्द फकत ११ म्हयने २० दीस इतलीच थारली. शके १८६४ चैत्र वद्य ७ दिसा तो समाधीस्थ जालो. ताचे आदीं ताणें श्रीमद द्वारकानाथतीर्थ हाचो शिश्य म्हूण स्वीकार केल्लो.

श्रीमठाचो २२वो स्वामी श्रीमद द्वारकानाथतीर्थ हाचो पट्टाभिशेक शके १८६५ त जालो. ताणें सुमार तीस वर्सां मठाचो कारभार पळयलो. ह्या काळांत ताणें मठाचो कारभार चड योजनाबध्द, सुवेवस्थित करपाखातीर उपाय आंखले. तेचबरोबर तशें करतना मठाची परंपरा आनी मांगल्य हांकां बादा येवचीना हाची खबरदारी घेतली आनी मठाच्या गौरवांत मोलाची भर घाली. पुराय भारतांत भोंवडी करून शिश्यवर्गाक वेळच्यावेळार मार्गदर्शन दिलें आनी जायत्या जिर्णोध्दाराचीं कामांय हातांत घेतलीं. मुंबय हांगा द्वारकानाथ भवन आनी श्रीराममंदीर हीं ताचे गौरवशाली कारकिर्दीचीं स्मारकां आसात. दक्षिणेक, यात्रेक गेल्लेकडेन १५ मार्च १९७३ ह्या दिसा (फाल्गून वद्य सश्टी शके १८९५) अंकोला हांगाच्या मठांत ताचें महानिर्वाण जालें. पर्तगाळ हांगा हेर पीठाधीशांच्या वृंदावनांकडेन ताचें वृंदावन बांदलां.

श्रीद्वारकानाथतीर्थ हाचें महानिर्वाण जातकच ५ एप्रिल १९७३ ह्या दिसा विद्याधीराजतीर्थस्वामी हाणें मठाधीश म्हूण सुत्रां हातांत घेतलीं. ताणें मडगांव आनी मुरगांव हांगा मठाच्यो दोन उपशाखा काडल्यो.

**श्री. गौडपादाचार्य मठ कैवल्यपूर (कवळें मठ) :** गौड सारस्वत ब्राह्मणांचें मुखेल धर्मपीठ. ह्या मठाची स्थापना श्रीमत विवरणानंद हाणें केली. शुकाचो शिश्य श्रीमत गौडपादाचार्य हाचें नांव उपनिषदांतल्या अद्वैत सिध्दांताचें प्रतिपादन करपी पुर्विल्ल्या आचार्यांत उंचेल्या पदार मेळटा. ताणें मांडुक्य उपनिषदाचेर "गौडपाद कारीका" हो ग्रंथ बरोवन अद्वैत सिध्दांत भौसामुखार मांडलो.

गौडपादाचार्याच्या काळांत उत्तर भारतावरीच अपरांत भागांत जैन तशेंच बौध्द धर्माच्या वर्चस्वाक लागून वैदिक धर्म दुबळो जावंक पावलो. वैदिक धर्माचेर प्रतिश्ठापनेच्या उद्देशान आद्य शंकराचार्य हाणें अद्वैत सिध्दांताचो ज्ञानमार्ग संवसारामुखार दवरलो.

श्रीमद गौडपादाचार्याचो शिश्य जो श्रीमत् गोविंदपादाचार्य हाका दोन शिश्य विवरणानंद आनी आद्य शंकराचार्य. आद्य शंकराचार्यान आख्ख्या भारतांत भोंवडी केली आनी शृंगेरी द्वारका, बद्रि, पुरी आनी कांची हांगा पांच मुखेल मठ स्थापन केले. तशेंच श्रीमत विवरणानंदान गोंयांत कुठ्ठाळे मठ उबारून सारस्वतांचें गुरूपीठ स्थापन केलें. फुडें पुर्तुगेजां तेंपार जाल्ले बाटाबाटींत (१५६०-१५६७) हो मठ मागीर हिंदू अधिपत्याखाल आशिल्ल्या अंत्रुज म्हालांतल्या कवळें गांवांत वसयलो आनी तोच आज 'श्री संस्थान गौडपादाचार्य कवळें मठ' म्हूण नामनेक पावलो.

कुठ्ठाळचो आद्य मठ १६ व्या शेंकड्यांत पुर्तुगेजांनी मोडून उडयलो आनी थंयचो तेन्नाचो स्वामी गोंय सोडून काशीक वचून रावलो. सादारण ६०-७० वर्सांचो काळ असोच गेलो आनी अशा वेळार गोंयांतल्या सारस्वत समाजाक गुरू ना अशें जालें. तेन्ना मठानुयायी काशीक गेले आनी श्रीमत् भावानंद स्वामी महाराजाक गोंयांत परत येवचो म्हूण विनंती केली. मठानुयांयांचे विनंतीक मान दिवन ताणें आपलो शिश्य श्रीमत् सच्चिदानंद हाका संन्यास दिवन गोंयांत धाडलो. इ. स. १६३० वर्सा काशीच्या पंचगंगा घाटार सच्चिदानंद स्वामीचो पट्टाभिशेक जालो. श्रीमत् सच्चिदानंद स्वामी रोकडोच आपल्या गुरूच्या आदेशान गोंयांत आयलो आनी श्री शांतादुर्गा देवीची सासाय आशिल्ल्या कवळें वाठारांत मठाची स्थापणूक केली. ह्या मठाचे धर्मगुरू आपल्या नांवामुखार श्रीमद गौडपादाचार्य हें आद्य धर्मगुरूच्या नांवाचें बिरूद (पद) लायतात. गौड ह्या उतराक पाद हें आदरार्थी उतर जोडून गौडपाद आनी फुडें आचार्य ही उपाधी लावन गौडपादाचार्य हें उतर घोळणुकेंत उरलें.

कवळें मठ हो स्मार्त संप्रदायी आनी अद्वैत मताचो पुरस्कार करता. श्री शांतादुर्गा, कवळें; श्री मंगेश, मंगेशी; श्री महालक्ष्मी, बांदोडें; श्री

नागेश, नागेशीं; श्री सप्कोटेश्वर, नार्वें; आनी श्री गणपती, खांडोळें हांगासल्ल्या देवळांचे स्मार्त म्हाजन कवळे मठाचे अनुयायी म्हूण वावुरतात. रुद्राध्याय, भस्मधारणा, रुद्राक्षधारण हें स्मार्त संप्रदायाचें मुखेल आंग आसून शिवलिंग पूजन, पार्थिवपुजा, बेलपत्र हांकां खूबशें म्हत्व आसा.

कवळें मठाचें आराध्यदैवत श्री भवानीशंकर हांगा पंचायतनाची पुजा त्रिकाल चलता. श्री भवानीशंकरावांगडाच मुरलीधर श्रीकृष्ण, देवी, गणपती, आनी शाळीग्रामाचीय पुजा हांगा जाता. ह्या मठाचेवतीन गौडपादाचार्य संस्कृत पाठाशाळा चलता आनी थंय विद्वान-जाणकारांकडल्यान वेदशास्त्रांचें शिक्षण दिवप जाता. आषाढी आनी कार्तिकी एकादस, गणपती उत्सव, तेभायर संवसार पाडवो, अक्षय तृतीया, नागपंचम, गोकुळाष्टम आनी चार्तुमासांतली एकादस हे मठांतले म्हत्वाचे उत्सव. हाचेच वांगडा कवळें मठांत समाधी घेतिल्ल्या धर्मगुरूंच्यो पुण्यतिथी दर वर्सा मनोवप जातात. दर दिसा नित्य नेमान त्रिकाल पुजा, संतर्पण आदी धर्मीक कृत्यां जातात. दर वर्सा चैत्र शुध्द प्रतिपदेक श्री शांतादुर्गा कवळें देवस्थानांत वसंत पुजा आनी दर वर्सा माघ उमाशेदिसा श्री मंगेशदेवस्थानांत महाशिवरात्र मठाचेवतीन करतात.

मठाचो कारभार मठशिश्यांचे समितीवतीन पळोवप जाता आनी खर्च मठाच्या मालकिच्या जमीन-जुमल्याचे येणावळींतल्यान तशेंच लोकांचे देणगींतल्यान जाता. सुरवेक सावन कवळें मठाक राज्य मान्यता मेळून जहांगीर आनी वतनां सुटिल्लीं आसात. पुर्विल्ल्या राजांकडल्यान आनी संस्थानिकांकडल्यान मठाक जागे, वतनां आनी अनुदानां मेळळ्यांत तीं अशीं-पेशवे सरकार, पुणे; होळकर सरकार, इंदूर; गायकवाड सरकार, बडोदा; शिंदे सरकार, ग्वाल्हेर; सत्तरीचे राणे; सौंदेकार संस्थान; छत्रपती शाहू महाराज भोसले, वाडी संस्थान; औरंगजेब बादशहा सरकार; पोर्तुगेज सरकार. पोर्तुगेज सरकाराकडल्यान मठाक हक्काची रक्कम दरवर्सा मेळटाली आनी मठाक कायदेशीर हिंदूधर्म संस्था म्हणून मान्यताय आशिल्ली. हाचेभायर श्री शांतादुर्गा संस्थान आनी श्री मंगेश संस्थान हांगा जावपी धर्मकृत्यांच्या वर्गणीचो थरावीक हिस्सो देणगीच्या रुपान मठाक प्राप्त जाता.

कवळेंचो मठ हो मुखेल गौडपादाचार्य मठ आसून पुराय देशांत तांच्यो शाखा आसात. महाराष्ट्रांत- वाळकेश्वर, मुंबय, सोनवडे, गोळवन, नाशीक आनी चिंदर. कर्नाटकांत - खानापूर, बेळगांव, सदाशिवगड, हळगे, गोकर्ण, अंकोला, तशेंच दिल्ली, काशी, ब्रह्मवर्त, रामेश्वर, आनी गोंयांत सांखळी.

मुखेल कवळेंच्या मठाची मांडावळ अशी आसा- मदीं श्री विठ्ठल रखुमाईचें देवूळ आनी थंयच भोंवतणी गौडपादाचार्य परंपरेंतल्या श्री शिवानंद सरस्वती, श्री रामानंद सरस्वती, श्री पुर्णानंद सरस्वती, श्री आत्मानंद सरस्वती, श्री पुर्णानंद सरस्वती (दुसरो आनी श्री रामानंद सरस्वती (दुसरो) अशो ६ समाधी आसात. बाकीच्याय मठांत अश्योच समाधी आसात आनी वट्ट मेळून सगळ्या मठांनी २५ समाधी आसात.

श्री सच्चीदानंद हाचेपसून कवळेंमठाची आचार्य परंपरा सुरू जाता. ते उपरांत ते आयजमेरेन ह्या मठाचे २२ धर्मगुरू जाले. तांचीं नांवां अशीं- सच्चिदानंद, शिवानंद, आत्मानंद, ब्रह्मानंद, रामानंद, पुर्णानंद, सदानंद, लिलानंद, जोतिरानंद, रामानंद, शुभानंद, आत्मानंद, सच्चिदानंद, सदानंद, ब्रह्मानंद, पुर्णानंद, रामानंद, शिवानंद, आत्मानंद पुर्णानंद, रामानंद, सच्चिदानंद आनी शिवानंद.

सद्या विद्यमानचे स्वामी श्रीमत सच्चिदानंद सरस्वती (७७वो) हाका १९५० त आश्रम दिलो आनी परंपरेप्रमाण ताणें २ मार्च १९९४ ह्या दिसा श्रीमत शिवानंद सरस्वती हाका दिक्षा दिवन श्री गौडपादाचार्य संस्थानाचो उत्तराधिकारी नेमलो.

**श्री पद्मनाभाचार्य स्वामी मठ हात्तुर्ली** ः ज्ञान, कर्म आनी भक्ती ह्या तिगांचो सुमेळ सादपी एक भक्ती संप्रदाय. श्री पद्मनाभाचार्य हो ह्या संप्रदायाचो आद्य प्रवर्तक. श्री. पद्मनाभाचार्य हाचें मूळ नांव गोविंद महाजन. तुंगभद्रा न्हंयेचे देगेर आंजरपेठ गांवांत रावपी श्री रघुनाथस्वामी महाजन आनी ताची घरकान्न हांचो गोविंद हो पूत. १९ डिसेंबर १९४८ हो ताचो जल्मदीस. ताणें नासिकचो श्री सिध्दपादाचार्य स्वामी कडल्यान दिक्षा घेतली. अज्ञानी भौसाक व्यसनमुक्त करून तांचो प्रपंच सुदारून तांकां सत्यज्ञानावरवीं परमार्थ मार्गाक लावप हें स्वामीचें उध्दारकार्य आसलें. ताणें जातवेद आनी श्री मन्नाहा इशस्तकराज हे ग्रंथ बरोवन तळागाळांतल्या भौसाक धर्मीक मुल्यांची शिकवण दिली. हे परंपरेचें आराध्य दैवत श्री दत्त आशिल्ल्यान ठाणें, पुणे, कोल्हापूर, सांगली, रत्नागिरी हांगा दत्तमंदिरां उबारलीं. २६ जानेवारी १९१२ दिसा श्री पद्मनाभाचार्य स्वामी हाणें मुंबय हांगा समाधी घेतली.

श्री. पद्मनाथ संप्रदाय अद्वैत वेदांताचेर आदारीत ज्ञानयुक्त, भक्तीमय, सत्कर्म, आचरण आनी धर्म मुल्यांची जोपासना शिकयता. ह्या संप्रदायांत दिक्षा घेवचेपयलीं साधकाक आपल्या पुर्वजांक आनी ईश्वराक स्मरून व्यसनां तशेंच फटकिरी, विश्वासघातकी वागणूक करचोना असो सपूत घेवंचो पडटा. खंयच्याय ज्ञातीच्या मनशाक दिक्षा घेवपाचो अधिकार उरता. घोवाचे परवानगीबगर बायलेक दिक्षा घेवपाक मेळना. 'जय सच्चिदानंद' हो ह्या संप्रदायाचो मंत्र जावन आसा. ह्या संप्रदायाचो विस्तार करपाखातीर श्री पद्मनाभाचार्य हाणें आपल्या शिश्यांमदल्या सोळा मुखेल शिश्यांक नियुक्त केल्ले. तातुंतलो १६वो शिश्य श्री सुसेनाचार्यस्वामी हाचेकडेन गोंयचो विस्तार सोंपयलो. ताणें हातुर्ली हांगा मठ बांदून संप्रदायाच्या कामाक कायमस्वरुपी अशी सुरवात केली. श्री सुसेनाचार्य स्वामीचो शिश्य सदानंदाचार्य हाचेकडेन संप्रदायाची जापसालदारकी सोंपोवन १ डिसेंबर १९३३ ह्या दिसा श्री सुसेनाचार्य स्वामी आपल्या सातोशें गांवांत समाधीस्थ जालो. श्री सदानंदाचार्य स्वामीचे कारकिर्दीत ह्या संप्रदायाचो प्रसार आनी प्रचार गोंयच्या गांवागांवांनी

जालो. १२ ऑगस्ट १९७६ ह्या दिसा सदानंदाचार्य स्वामीन समाधी घेतकच मठाची वेवस्था श्री ब्रह्मानंद स्वामीकडेन आयली. गोंयच्या समाजाक मार्गदर्शन करून तांच्या प्रबोधनांतल्यान कुड्डी श्रध्दा, बुवाबाजी, व्यसनां पयस करपाचें मोलादीक कार्य ताणें केलें. सोंपी शिकवण तितलेंच सोपें तिचें आचरण आनी तळागाळांतल्या लोकांक प्रिय असो भक्तीमार्ग, जातीविरयत असो दिक्षा अधिकार ह्या सगळयांक लागून ह्या संप्रदायाचे अनुयायी गोंयभर दिसतात.

ह्या संप्रदायाची तपोवन ही आनीक एक वास्तू कुंडयच्या पठाराचेर साकार जाता. हांगाच्या संप्रदायाचे विविध कार्यक्रम व्हड प्रमाणांत कार्यरत करपाचो जाळवणदारांचो संकल्प आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## मडकयकार, खुशाली रामा : (जल्म : १२ जुलय १९२८, धाकटें भाट दोंगरी, तिसवाडी - गोंय).

गोंयचो सुटकेझुजारी. १९५२-१९५६ ह्या काळांत तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत 'गोवा लिबरेशन आर्मी' हे संघटनेचो वांगडी जालो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो भौशिक जाग्यांनी तिरंगी बावटे लावप, पत्रकां वाटंप, भूंयगत वावुरप्यांखातीर शिबीरां आयोजित करप, पत्रकां लावप असलीं कामां करतालो. १८ मे १९५५ ह्या दिसा पोलीस ताका धरपाक येतकच तो दोडामार्गाक वचून लिपलो. सुटकेझुजारी ना. ग. गोरे आनी सेनापती बापट हांच्या मार्गदर्शनाखाल दिवचल हांगा जाल्ल्या सामुहिक सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी हेर सुटके झुजाऱ्यांवांगडा कॅसरलोक हांगा धाडलो. फुडें तो परतो गोंयांत येवन पुर्तुगेजांआड भूंयगत वावरांनी वांटो घेवंक लागलो. २३ मार्च १९५६ ह्या दिसा ताका पोलिसांनी परत अटक केली. तशेंच ताचेकडेन आशिल्लें चळवळीचें साहित्य जप्त केलें. ताका सात म्हयने पणजे पोलीस ठाण्यांत दवरलो. उपरांत १७ ऑक्टोबर १९५६ ह्या दिसा ताका प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १९५९त सगळया सुटके झुजाऱ्यांची जेन्ना सुटका जाली तेन्ना ताचीय बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## मडकयकार, मुकुंदशेट : (जल्म : म्हापशें).

गोंयचो नामनेचो पेटीवादक. ताणें मराठींतल्यान शिक्षण घेतलें. उपरांत पुर्तुगेज शिक्षण चालू आसतना ताका पेटयेचेर बोटां चलोवपाचो नाद जडलो. तेन्नाच नामनेचो तबलावादक दत्तारामजी नानोडकर, खांपो पेटीवादक मधुकर पेडणेकर तशेंच मोहनलाल रामनाथकर आनी सखाराम बापू बरवे हांचें मार्गदर्शन ताका मेळ्ळें. तशेंच स्वरांचें गिन्यान आनी साथीशास्त्रांतल्यो कांय बारीकसाणीय ताणें आत्मसात केल्यो. गायकाच्या आवाजाची तशातशी पेटयेर नक्कल करप ही मुकुंदाची खासीयत आशिल्ली. ताणें नामनेच्या गायकांक पेटीवादनाची साथ केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## मडगांव : गोंय राज्यांतलें एक म्हत्वाचें शार आनी सालसेत तालुक्याचें शासकीय केंद्र. हें शार सालसेत (साश्ट) तालुक्याच्या मध्यभागार आसून ताचे भोंवतणी वेळ्ळी, कुडतरे, राय, राशोल आनी चिंचोणें हे वाठार आसात. कोंकण रेल्वेमार्गावयलें मडगांव हें एक मुखेल शार आसा. तशेंच राश्ट्रीय महामार्ग १७ हो ह्या वाठारांतल्यान पासार जाला. पुर्तुगेज काळासावन प्रसिध्दी लाबिल्ली व्हड बाजारपेठ हाका लागूनय ह्या शाराक खूब म्हत्व आसा.

परशुरामाविशींच्या आख्यायिकांनी मठग्रामाचो (मडगांवचो) उल्लेख मेळटा. हिंदू आनी मुसलमान राजकर्त्यांच्या तेंपारूय ह्या वाठाराक खूब म्हत्त्व आशिल्लें. हिंदू परंपरेप्रमाण आर्यलोक जेन्ना गोंयांत पावले, तेन्ना तांणी मडगांवांत आपलो राबितो केल्लो आनी थंयच तांणी आपलो मुखेल मठ उबारिल्लो. उपरांत वैदिक शिक्षण घेवपाखातीर थंय भोंवतणच्या आनी हेर वाठारांतल्यान साबार ब्राह्मण येवपाक लागले. त्या ब्राह्मणांक रावपाखातीर त्या गांवांत खुबूच मठ बांदिल्ले. त्या मठांक लागून उपरांत त्या गांवांक मठग्राम म्हणूंक लागले. पुर्तुगेज गोंयांत पावचेआदीं ह्या



१०० वर्सां पयलींचें मडगांव शार

गांवाची मठग्राम म्हणूनच नामना आशिल्ली. मडगांव हें उपरांत त्या नांवाचो जाल्लो अपभ्रंश.

पुर्तुगेजांनी १५४३ त बार्देस आनी साश्ट म्हाल आपल्या शेकातळा व्हेले, तेन्ना मडगांवांत कांय व्हड वाडे आनी जायतीं सोबीत देवळां आशिल्लीं. तातूंत दामोदर, चंद्रनाथ, नारायण-पतूरदे, चामुंडेश्वरी, सांतेरी, माकाजी, महिषासूरमर्दीनी, मुळवीर, भगवती, गोवेश्वर, महालक्ष्मी,

भूतनाथ, नारायण, ईश्वर, आनी ग्रामपुरूस ह्या दैवतांच्या देवळांचो आस्पाव आशिल्लो. बाटाबाटीच्या काळांत किरिस्तांव मिशनऱ्यांनी हातुंतलीं चडशीं देवळां मोडून ते सुवातेर चर्ची उबारल्यो. सुरवेच्या काळांत मडगांवांत



आधुनिक मडगांव

बाटोवपाचो वावर मुखेलपणान जेजुइटांनीच केलो. १५६७ वर्सा आर्चबिशप डोम गास्पार दे लिओ पेरैर हाचे देखरेखीखाल मडगांवांत पयली चर्च उबारली. एप्रिल १७७८ त पुर्तुगेजांनी राजकीय फर्मान काडून मडगांव गांवांक शाराचो दर्जो दिलो. त्या तेपार थंय हिंदू, किरिस्तांव आनी मुसलमान लोकांची दाट वसती आशिल्ली. मडगांव आपल्या ताब्यांत घेतकच पुर्तुगेजांनी थंयची शेतकी जमनी आनी रानां हस्तगत केलीं. तशेंच शाराभोंवतणचे मेकळे सुवातीर माडांची लागवड केली. तशेंच तांणी पुर्तुगेज शिक्षण दिवपी कांय शाळाय उबारिल्ल्यो. उपरांत गोंय मुक्ती संग्रामाच्या वेळार हेर गोंयकारां वांगडा मडगांवकारांनीय तातूंत सक्रीय वांटो घेतिल्लो. दोतोर राम मनोहर लोहियाच्या फुडारपणाखाल गोंयांतलो पयलो सत्याग्रह मडगांव शारांतच घडोवन हाडिल्लो. गोंय मुक्तीउपरांत मडगांव शाराची खूब उदरगत जाली. सद्या ताका गोंयचें संस्कृतीक आनी वेपारी केंद्र म्हूण म्हत्व मेळ्ळां.

मडगांव शारांत श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले कॉलेज ऑफ आर्टस ॲण्ड सायन्स, श्री दामोदर कॉलेज ऑफ कॉमर्स ॲण्ड इकॉनॉमीक्स, कारे कॉलेज ऑफ लॉ, विद्या विकास मंडल्स ॲकादेमी, ह्यो हांगाच्यो मुखेल शिक्षणीक संस्था.

ह्या शारांत गोमंत विद्यानिकेतन, मठग्रामस्थ हिंदू सभा, कोंकणी भाशा मंडळ, संस्कृत प्रचारणी सभा हीं कांय मुखेल संस्कृतीक केंद्रां आसात.

हांगा हरिमंदिर, विठ्ठल मंदिर, दामोदर साल, दामोदर लींग मंदिर, हॉलीस्पिरीट चर्च, ग्रेस चर्च आनी कांय मशिदी अशीं धर्मस्थळां आसात.

हांगा हॉस्पिसीयो सेक्रेड हार्ट हें एक खूब पोरनें सरकारी हॉस्पीटल आसा. तशेंच नेहरू स्टेडियम, राजेंद्रप्रसाद स्टेडियम हीं हांगाचीं खेळामळां.

कोंकण रेल्वेचें म्हत्वाचें स्थानक मडगांवां आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मडवळ :** भारतांत सगळेकडेन आशिल्ली एक जात. ताका धोबी, परीट, वरठी, चकला, रजक अशींय नांवां आसात. हिंदू तशेंच मुसलमान धर्माचे लोक हे जातींत आसात. लोकांचे कपडे धुवप हें तांचें मुखेल काम. तशेंच ग्रामस्थांच्या लग्नावेळार, लग्नाघरा वचून न्हवऱ्या-व्हकलेचीं परंपरीक अशीं कामां करप. ह्या सगळ्या कामांचो मोबदलो म्हणून ग्रामस्थांकडल्यान तांकां धान्य, कपडे सारकिल्या जिनसांच्या रुपांत मेळटालें. सद्याक ही पद्दत उणी जावन, हो मोबदलो पयशांच्या रुपांत मेळटा.

तांच्यांत आते-मामेभावंडांमदीं लग्न जाता. चलयेचो बापूय गरीब आसल्यार जातवाले वर्गणी जमोवन तिचें लग्न करतात. ओडिसांतले मडवळ, चली वयांत येवचेआदीं तिचें लग्न करतात. तें जमलेंना तर तिचें तलवारीकडे वा झाडाकडेन लग्न करतात आनी उपरांत जेन्ना जमता तेन्ना तिचें लग्न करतात. ओरिसांतल्या मडवळ लोकांचो लग्नसुवाळो मात्सो वेगळो आसता. लग्ना आदल्या दिसा लग्न जाल्ल्यो पूण वयांत न आयिल्ल्यो चलयो सात घरांनी वचून उदक हाडटात. लग्नादिसा व्हंकल-न्हवरो त्या उदकान न्हातात. न्हवरो व्हंकलेच्या हातांत कांकण बांदता. उपरांत न्हवऱ्याचें उजवें आनी व्हंकलेचें दावें मनगट एकठांय बांदतात. उपरांत जमिल्ले लोक तांचेर अक्षता उडयतात. मध्यप्रदेशांतल्या मडवळाच्या लग्नसुवाळ्यांत एकाद्रो दादलो व्हंकलेचो भेस करून नाचता. ताका लागून व्हंकलेक कोणाचीच वायट नदर बादना असो तांचो समज आसा.

मडवळांत चलो जाल्यार सात दीस आनी चली जाल्यार पांच दीस सुयेर मानतात. राजस्थान मडवळांत सवाय म्हयनो सुयेर धरतात.

घटोइया हो तांचो मुखेल देव. ताची सुवात धोबीघाटार आसता. आषाढ म्हयन्यांत ताका म्हांवाचो निवेद्य दाखयतात. कपडे धुवचे आदी फातरीची पुजा करतात. दसऱ्या दिसाय हे फातरीची पुजा करतात.

कांय मडवळ विष्णुचे भक्त जाल्यार कांय काली भक्त आसात. होळी आनी दिवाळी हे तांचे मुखेल सण. कांय लोक लग्नाउपरांत व्हंकलेक घेवन मडवळागेर वतात. थंय धोबीण तिका विडो दिता, हो विडो खुबूच शुभ मानतात आनी ताका सोहाग अशें म्हण्टात. ते वेळार मडवळणीक कापड वा साडी दितात.

मडवळांची जात-पंचायत आसता. सरपंच सोनावणी कुळांतलो आसता. हीन जातीचे कपडे धुवप, जातीनेम मोडप, वायट वागप आदी कर्मांक लागून तांकां दंड भरचो पडटा. जातीभायल्या लोकांनी तीन जेवणां दितकच तांकां जातींत परत घेतात.

हे लोक मेल्ल्या मनशांक पुरतात वा जाळटात. पूण ताचे आदीं प्रेताक हून उदकान न्हाणयतात. घरांतलो मनीस णवव्या दिसा मुंडन करता. इकराव्या आनी बाराव्या दिसा जातीक जेवण घालतात. कांय लोक म्हयन्याचें आनी वर्साचें श्राध्द वाडटात. कांय कडेन तीन दीसच्च सुतक पाळटात.

महाराष्ट्रांत धोब्याक चडकरून परीट म्हण्टात. हांगा मराठा, लिंगायत, कामाठी आनी तेलंगी अशा वेगवेगळ्या जातींचे परीट आसात. कामाठी आनी तेलंगी भायले आसात. मराठा परिटांक कुणबी-परीट म्हण्टात. हांचे देशी आनी कोंकणी अशे दोन वर्ग आसात. तांच्यांत एकामेकांत रोटी-बेटी वेव्हार जायनात. देशी परिटांत अस्सल आनी कडुस अशे दोन भाग आसात. तांचीं पवार, वाघ, दळवे, सुर्वे अशीं उपनांवां आसून नाग, कुऱ्हाड, सुर्यफूल चिंच, आंबो अशीं देवकां आसात.

तांच्यांतले कांय लोक वारकरी पंथाचे जाल्यार कांय लोक कबीर पंथाचे आसात. बहिरोबा, खंडोबा, म्हसोबा, भवानी आनी ग्रामदेवता हीं तांचीं दैवतां.

आदल्या काळांत ते बलुतेदार आशिल्ले. सद्या ही पद्दत बंद जाल्या. लग्नांत न्हवरो-व्हंकलेक चांदवा धरप, पायघड्यो घालप, हळद आनी तेल लावपावेळार चौक भरप हीं कामां मडवळ-मडवळणीकडे आसतात. हे लोक मेल्ल्या मनशाक जाळटात वा पुरतात. ते भाद्रपद वद्य पक्षांत पितरांखातीर म्हाळ करतात. आनी ब्राह्मणाक शिदो दिवन जातभावांक जेवण दितात.

गोंयच्या आनी महाराष्ट्राच्या मडवळांत कांय गजालिंनी सारकेंपण आसा. गांवांतल्या लोकांचे कपडे धुवपाखातीर आनी तांचे धर्मीक सेवेखातीर तांकां आदीं धान्य मेळटालें. पूण सद्या ही पद्दत बंद जाल्या. मडवळ आपलो स्वतंत्र वेवसाय करतात. देवस्थानांत आनी धर्मीक वावरात तांकां सुवात आसा. देवळांत उत्सवावेळार पायघड्यो घालप, लग्नांत तेल-हळदी वेळार व्हंकल न्हवऱ्याची बसका तयार करप, तांचे खातीर सवो घालप हीं कामां मडवळच करता. तशेंच लग्न सुवाळयांत शेंसर नांवाचो जो विधी आसता, तेन्ना व्हंकल-न्हवरो आनी पांच जोडपीं बसोवन तांचेर वरपक्षान हाडिल्ले साकभर तांदूळ सवायशिणी बायलो घालतात. हे तांदूळ व्हरपाचो हक्क फकत मडवळाकच आसता.

गोंयांतल्या मडवळांत देवकां नात. पूण भूतनाथ, रवळनाथ, शिवनाथ, वेताळ, सांतेर, पेडणेची भगवती, फातर्पेची शांतादुर्गा, माशेलांतली शांतादुर्गा चिमुलकरीण (म्हाळसा) हे तांचे कुलदेव आसून एकच कुलदेव आशिल्ल्या घराब्यांत तांचीं लग्नां जायनात.

तांच्यो हेर चालीरिती गोंयच्या हिंदू लोकांभशेन आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मडवळखार :** सुत्र ( Formula) $Na_2Co_3$. एक प्रकारचें क्षार. ह्या क्षाराचे कण धवे आसतात. पुर्विल्ल्या काळांत कपडे उमळपाखातीर ह्या क्षाराचो उपेग करताले देखून ताका मडवळखार म्हण्टात. इंग्लीश भाशेंत ताका वॉशिंग सोडा (Washing Soda) म्हण्टात. मडवळखारांत सोडियमाचे दोन, कार्बनाचो एक आनी ऑक्सीजनाचे तीन अणू आसतात.

मडवळखार हो जमनी पोंदा उदक, पापडखार आनी सोडियम सल्फेट हांच्या वांगडा मेळटा. कांय तळयांतल्या उदकांतय तो आसता. तेचपरी कारखान्यांनी लेगीत तो तयार करूंक मेळटा.

भारतांत मडवळखार बुलढाणा जिल्ह्यांतल्या लोनार तळयांत तशेंच बिहारांत चंपारन, मुझफरपूर, सारन; उत्तर प्रदेशांत बनारस, आझमगड आनी हेर कांय जिल्ह्यांनी मडवळखाराचे व्हड सांठे आसात. कारखान्यांनी सोलवे प्रक्रिया वापरून मडवळखार तयार करतात.

पुर्विल्ल्या तेंपार मडवळखार गोबरांतल्यान मेळयताले. सुश्रुतान आपल्या पुस्तकांत मडवळखार तयार करपाची प्रक्रिया बरयल्ली आसा. आजून मेरेन कांयकडेन उदकांतले वनस्पतीपसून (Sea Weeds) मडवळखार मेळोवप जाता. १७७५ वर्सा फ्रेंच रॉयल ॲकाडमी ऑफ सायन्स हे संस्थेन मिठापसून मडवळखार तयार करपाची रीत सोदून काडटल्याक इनाम जाहीर केलें. १७९० वर्सा नीकोलस लेल्बांक हाका हें इनाम फाव जालें. १८२३ वर्सा लेब्लांकाची पद्दत वापरून मडवळखार तयार करपाचो कारखानो इंग्लंडांत सुरू जालो. तो कारखानो १८८५ वर्सामेरेन चालू उरलो. लेब्लांकाची मडवळखार तयार करपाची पद्दत पयल्या म्हाझुजामेरेन वापरप जाली. सद्या मडवळखार तयार करपाक सोलवे प्रोसेस वापरतात. तशें पळोवंक गेल्यार ही तकनीक इ. स. १८०० वर्सा खबर आशिल्ली. १८४० वर्सा एक कारखानोय सुरू केल्लो. पूण मडवळखार तयार जावपाक चड खर्च आयिल्ल्यान तो बंद करचो पडलो.

१८६१ वर्सा अरनेस्ट सोलवे हाणें एकट्यानच मडवळखार तयार करपाची पद्दत सोदून काडली. देखून हे प्रक्रियेक सोलवे प्रोसेस हें नांव पडलें.

१८६५ वर्सा अरनेस्ट सोलवे हाणें बेल्जीयम देशांत मडवळखार तयार करपाचो कारखानो सुरू केलो. सोलवे प्रोसेस वापरून पापडखार लेगीत तयार करपाक मेळटा.

भारतांत टाटा केमीकल्स, साहू केमीकल्स आनी सौराश्ट्र केमीकल्स ह्या कारखान्यांनी मडवळखार तयार करतात. सोलवे प्रोसेस प्रक्रियेंत मडवळखार तयार करपाक मीठ, अमोनिया आनी कार्बनडायऑक्सायड हीं रसायनां वापरतात. मीठाच्या उदकांत अमोनिया आनी कार्बनडायऑक्सायड हो वायू सोडटकच तीनूय रसायनांची प्रक्रिया जावन पापडखार Sodium bi Corbonate तयार जाता. पापडखार तापयल्या उपरांत तातूंतलो एक कार्बनडायऑक्सायडचो रेणू आनी एक उदकाचो रेणू भायर पडून ताचो मडवळखार जाता. मडवळखार नितळ करपाक उदक वापरलें जाल्यार ताच्या एका रेणू वांगडा उदकाचो रेणू उरता. (Decahydrate) हो मडवळखार उक्तो सोडल्यार तातूंतले उदकाचे रेणू हवेंत वतात. मडवळखार ८५२° सें. (८°) तापमानाचेर कडटा. तो

उदकांत सहज विरगळटा. मडवळखार घोळयल्लें उदक अल्कलायन (क्षारीय) आसता.

मडवळखाराचो उपेग कवंची तयार करपाखातीर सोडियम हायड्रोक्सायड तयार करपाक, धुवपाचो पावडर तयार करपाक (Detergent-वस्त्रधुलाई) तशेंच कापड्याचे, कागदाचे निर्मितीखातीर आनी उदक नितळ करपाक वापरतात.

- सदानंद गो. फडते

**मणिपुरी नाच :** एक अभिजात भारतीय नाचाचो प्रकार. हो नाच मुखेल करून मणिपूर राज्यांतलो आसून, ताच्या भुगोलीक स्थितीचो परिणाम मणिपुरी नाचाचेर स्पश्टपणान दिसून येता. मणिपूर वाठारांत प्रचलित आशिल्ल्या वेगवेगळया थळाव्या लोकांनाचांचो आस्पाव ह्या प्रकारांत जाता. नाचप्याच्या आंगिक हालचालींवयल्यान रुखाच्या धोलपाचो आनी ताच्या हस्तसंचालनांतल्यान मंद वाऱ्याचे गतीन जावपी खांदयांच्या चलनवलनाचो भास तयार जाता. मृदंगाच्या बोलांतल्यान कुपांचो गडगडाटावरी आवाज दिसून येता. धर्मीक भावनेचे बसकेचेर आदारीत आशिल्लो मणिपुरी नाच अजूनय ताचें ईश्वरभक्तीचें स्वरूप तिगोवन आसा. हे नाचाचे कलेक भक्तीचें साधन मानून हांगाच्या परंपरीक समाजांत तिची पोसवण केल्या. त्रिपुरा, आसाम, बंगाल ह्या वाठारांतूय मणिपुरी नाच रूढ आसा. रवींद्रनाथ टागोराच्या शांतीनिकेतन संस्थेच्या अभ्यासक्रमांत ह्या नाचाचो आस्पाव केला.

मणिपुरी नाच हो खूब पुर्विल्लो मानतात. ताच्या ह्या पुर्विल्ल्यापणाविशीं खूब आख्यायिका प्रचलित आसात. एक आख्यायिका अशी- राधाकृष्णाच्या रासलीला नाचावयल्यान शंकर पार्वतीक तशे तरेची नाच करपाची स्फूर्त जाली आनी तेखातीर शंकरान सृश्टीन नटिल्ली ओडलायणी अशी दोंगरांतल्या देगणाची सुवात सोदून काडली. पूण तो वाठार पुराय उदकाचो आशिल्ल्यान उदक व्हांवन वचपाखातीर शंकरान त्रिशूळाचो प्रहार करून दोंगर फोडून भूंयमार्ग मेकळो केलो. हें सोबीत थळ म्हळयार मणिपूर आनी हो शंकर-पार्वतीचो रासलीला नाच फुडें मनशांनी आपणायलो. तेंच लाय-हरोबा (देवांक होरावपाखातीर केल्लें स्तवन) मणिपुरी लोकनृत्य आसा अशी ही आख्यायिका सांगतात.

आंगिक अभिनय हें मणिपुरी नाचाचें खाशेलपण आसा. 'चाली' आनी 'भंगी' ही फक्त मणिपुरी नाचाची परिभाशाच न्हय, तर त्या नाचाचो आत्मो जाणून घेवपाची नर्तकांकडली गुरूकिल्ली आसा अशें म्हण्टात. चाली ही मणिपुरी नाचांतली सामकी परंपरीक नृत्यरचना आसा. ही तांडव आनी लास्य ह्या दोनूय प्रकारांनी करतात. हातूंतल्यान मणिपुरी नाचाचो आत्मो प्रगट जाता. नाचांतलें 'लास्य' म्हळयार नाजूक बरें नर्तन आनी 'तांडव' म्हळयार नेटान केल्लो नाच; हीं दोनूय आंगां मणिपुरी शैलींत स्पश्टपणान दिसून येतात आनी एकामेकांकडे सुसंवाद सादतलीं, अशे तरेनच सादर करतात.

मणिपुरी नाचांत लास्याचे 'सिमितांगम्' आनी 'स्फुरितांगम्' अशे दोन प्रकार आसात. सिमितांगम् ह्या प्रकारांतल्यो हालचाली काव्यात्मक आसून लय विलंबित आसता. 'स्फुरितांगम्' प्रकारांतली लय द्रुत आसता. तांडवाचे परत 'गुठनम्', 'चलनम्' आनी 'प्रसारणम्' अशे तीन प्रकार आसात.

सादारणपणान ४ ते ६८ मात्रांमेरेन मणिपुरी ताल तयार केल्ले आसात. मात्रांच्या शक्य आशिल्ल्या सगळया अदलाबदलांनी निर्माण जावपी लयींचे प्रकार आस्पाविल्ल्या कालबंधाक 'प्रस्तार' अशें म्हण्टात. अलंकार 'पुंग लोल' ह्या प्रस्ताराचेर बसयल्ल्या नाचाक 'नृत्यालंकार' अशें म्हण्टात आनी ते ताच्या तालांच्या नांवांनी वळखतात. देखीक-४ मात्रांचो 'तंचप्वर' तेचप्रमाण ताच्या प्रस्ताराचेर आदारीत नाचाक 'तंचप् परेगं' म्हण्टात. कांय परंपरिक आनी लोकप्रिय नृत्यालंकार अशे- तालप्रबंध, तालीना, स्वरमाला, चतुरंग, कीर्तिप्रबंध.

'गोविद संगीत लीलाविकास.' ह्या मणिपुरीच्या मुखेल आधारग्रंथांत नाट्याचें रूपक आनी रासक अशे दोन भाग सांगल्यात. रूपक म्हळयार पुर्विल्लें नाट्य आनी रासक म्हळयार नृत्यनाट्य. ह्या ग्रंथांत उल्लेख केल्ले मुखेल रासक म्हळयार महारासक, मंजुरासक, नित्यरासक, निर्वेशरासक आनी गोपरासक. तांकां आतां अनुक्रमान महारास, वसंतरास, नित्यरास, कुंजरास आनी गोष्ठ ह्या नांवांनी वळखतात. तालरासक हो समूहनाच वर्तुळांत ताळयो वाजोवन करतात. दंडरासक हो समूहनाच वर्तुळांतूच पूण बडयो वाजोवन करतात. मंडलरासक ह्या समूहनाचाचे दोन प्रकार आसात : हल्लीसक आनी रास.

**वसंतरास :** हो चैत्र पुनवेक करतात. कृष्ण, राधा आनी तिच्यो इश्टीणी होलिकोत्सव मनोवपाखातीर एकठांय जमतात. कृष्ण चंद्रबलीकडे नाच करून पुराय लक्ष तिचेर केंद्रित करता. राधा अस्वस्थ जावन अपमानाचे जाणविकायेन कृष्णाच्या प्रेमाचें प्रतीक आशिल्ली निळी ओडणी पयस करून रासमंडल सोडटा. ती निळी ओडणी सांपडतकच कृष्णाक राधेच्या रागाची जाणविकाय जाता आनी तो चंद्रबलीक सोडून राधेकडे वता. जेन्ना कृष्णाक राधा मेळटा, तेन्ना ती ताची भेट न्हयकारता. कृष्ण हुशारकायेन तिची माफी मागून तिका जिकून घेता. सगळे जाण स्वर्गीय आनंदांत नाच करतात. निमाणें कृष्णाचे विनंतीवयल्यान राधा आनी हेर गोपी मात्स्यो नाखुशीनूच आपापल्या घरा परततात.

**कुंजरास :** हो प्रकार आश्विन अश्टमीक करतात. अभिसार आनी रास सोंपतकच कृष्ण आनी राधा आपापल्या आवडत्या इश्ट-इश्टीणींसयत कुंजांत परततात.

**नित्यरास :** ही उपरांतची अवस्था आसून हातूंत फकत अभिसार आनी रास हांचोच आस्पाव आसा. ही रास खंयच्याय प्रसंगार करतात.

**गोपरास वा गोष्ठ :** कृष्ण-बलरामाक गोपाळाचें काम करपाक नारद शिकयता. गोपाळांचे विनंती प्रमाण नंद आनी यशोदा हे कृष्ण-बलरामांक गायो राखपाखातीर धाडटात. कृष्ण-बलराम आनी गोपाळ वृंदावनांत खोशयेन नाच करतात. भूक लागतकच ताडवनांत वचून रानटीपणान झाडां हालोवन ते सकयल पडिल्लीं फळां खातात. ह्या ताडवनाचेर प्रभुत्व आशिल्लो धेनुकासुर हो राकेस रागान गोपाळांक रानाभायर घालपाचो यत्न करता. बलराम ताडवन सोडपाचें न्हयकारता आनी दीर्घझुजा उपरांत धेनुकासुराचो वध करता. उपरांत परत जेन्ना गोपाळ वृंदावनांत खेळूंक लागतात, तेन्ना बकासुर तांकां आव्हान दिता



आनी कृष्ण ताका प्रत्युत्तर दिता. ताचेकडे झुजून ताका मारता. निमाणें दुश्ट प्रवृत्तीचो नाश करून कृष्ण-बलराम आपल्या घरा परततात.

**उत्खलरास :** कृष्णाच्या भुरगेपणांतले प्रसंग हे ह्या रासाचे मुखेल विशय आसतात. कृष्ण हेर गोपांवांगडा धंय-लोणी चोरून गोपींक चाळयता. गोपी यशोदेकडे कागाळ करतात. यशोदा कृष्णाक खलबत्याक बांदून दवरता, पूण कृष्ण खलबत्यासयत पळून वता. दोन झाडां मदल्यान जबरदस्तीन वता आसतना आपली सुटका करून घेता.

**लाय-हरोबा :** विश्वाच्या पुर्विल्ल्या तत्त्वागिन्यानाचें दर्शन घडोवपी 'लाय-हरोबा' हो सगळयांत म्हत्वाचो नाचप्रकार आसा. सात देव-देवतांनी हें विश्व कशें निर्माण केलें, हाचें वर्णन 'लायसेम जगोई' ह्या लाय-हरोबाच्या एका प्रकारांतल्यान केला. लास्यशैलींतले तीन नाच आनी तांडव शैलींतले तीन नाच अशे वट्ट स नाच मेळून हो नाचप्रकार जाला.

**सप्तप्रदक्षिणानर्तन :** हो नाच लग्नावेळार करतात. माटवांत सप्तपदीच्या वेळार नर्तन करपी चलयो हातांत फुलां आनी वरमाळ घेवन न्हवऱ्याच्या भोंवतणी वाटकुळीं घुंवतात. वरमाळ घालतना व्हंकलकार व्हंकलेच्या रुपाचें वर्णन करता. उजवाडांत झगमगपी भेस, नाचपी नर्तकी, सुरेल संगीतस्वर, मृदंगांचो नाद ह्या सगळयांचें मेळून एक अप्रूप लग्नचित्र तयार जाता.

**थांग-हाईबा :** पयलीं झुजाक वचपी मणिपुरी लोक तरसाद-नाच करताले. हाकाच 'थांग-हाईबा' म्हण्टात. 'थांग' म्हळयार तरसाद आनी 'हाईबा' म्हळयार घुंवडावप. आतां तरसाद घेवन झुजाक वचचेले प्रसंग नासले तरी सद्या हो नाच शंकराच्या उत्सवावेळार शिव मंदिरांत जाता.

**संकीर्तन :** मणिपूरच्या कलात्मक विश्वांत रासलीलेइतलें म्हत्व आशिल्लो 'संकीर्तन' हो नाचप्रकार प्रचलित आसा. देवाच्या पुजाविधीच्या वा सामुहिक प्रार्थनेच्या रुपांत आशिल्लो संकीर्तन हो म्हत्वाचो धर्मीक नाच आविश्कार आसा. 'करताल चोलम्' आनी 'पुंग चोलम्' सारकिल्या कठीण नाचप्रकारांचो आस्पाव आशिल्लो. संकीर्तन हो एक अप्रूप नाचप्रकार आसा. संकीर्तन हें वर्सभर वेगवेगळया समाजीक प्रसंगावेळार- जल्म, मरण, लग्न आदी प्रसंगांवेळार तशेंच राधाकृष्णाच्यो चरित्रकथा आनी आख्यायिका हांचेकडे संबंदीत अशा सगळया म्हत्वाच्या धर्मीक प्रसंगावेळार करतात. रासलीलेची प्रस्तावना म्हूण संकीर्तनाचो उपेग जाता. परंपरेप्रमाण संकीर्तनाच्या प्रयोगांत नाच आनी ताची रचना, दिग्दर्शन, गीत, संगीत, ताल, लय, भेस हे विशय बारीकसाणीन हाताळटात.

रासलीलेंत वापरतात तें संगीत हें हिंदुस्थानी शास्त्रीय संगिताचेर आदारित आसून तें खूब जितेंजिवें आसता. सुक्ष्म भावना आनी संवेदना ताचेवरवीं समर्थपणान व्यक्त करतात. मुरली, शंख, इसराज, ल्हान झांजो, मृदंग ह्या वाद्यांची ह्या संगिताक साथ आसता. जयदेव, चंडीदास, गोविंददास, ज्ञानदास ह्या म्हान भक्तकवींनी पदां बरयल्यांत. ह्या पदांनी शृंगारीक भाव लेगीत उदात्त पातळेचेर दाखयतात. हीं पदां संस्कृत, ब्रजबुली आनी मेईथेई ह्या भासांनी बरयल्लीं आसतात. ह्या नाचाचीं पाठ्यपुस्तकां म्हूण 'गोविंद संगीत लीलाविलास', 'कृष्णरससंगीत', 'उज्ज्वलनीलमणी' हीं पुस्तकां वापरतात.

मणिपुरी नाचांत वापरतात तो भेस आनी अलंकार ओडलायणे आनी कलात्मक आसतात. हारशाच्या कुडक्यांनी भरतकाम केल्लो कडक गोल घागरो राधा आनी गोपी घालतात. ताचेर दुसरो एक नाजूक आनी सुक्ष्म भरतकाम केल्लो घागरो आसता आनी पारदर्शक ओडणी आसता. कृष्ण खूब मोलादीक आनी सजयल्लो मुकूट घालता. सगळीं पात्रां बरे वातारवरण निर्मितेक फावशे अलंकार आनी भेस घालतात.

मणिपुरी संप्रदायांतल्या मुखेल नृत्यगुरूंत स्वरूपानंद, रसानंद,

थोरानिसाबी, कान्हार शर्मा, अमुबी सिंग, बिपिन सिंग, नादिया सिंग, सिंघजीत राजकुमार, सुरेंद्र सिन्हा, देवेंद्र सिन्हा हांचो आस्पाव जाता. झवेरी भयणी, कलावती सिंग, सविता मेहता, ह्यो नामनेच्यो नर्तकी जावन आसात. इंफाळांतल्या 'जवाहरलाल नेहरू मणिपुरी डान्स अकादेमी' आनी 'गोविंदजी नर्तनालय' ह्या संस्थांतल्यान मणिपुरीचें शास्त्रोक्त प्रशिक्षण दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**मणिपुरी भास :** मणिपूर प्रदेशांत उलयतात ते भाशेक मणिपुरी अशें नांव आसा. हे भाशेक मैतैरोल, मेईथेई अशींय नांवां आसात. मणिपुरांत आनीकूय हेर बोली प्रचारांत आसात. पूण मणिपुरी भास राज्यांत सगळ्याक उलयतात आनी ती सगळ्यांक समजता. आसामाच्या कांय वाठारांनी आनी बांगला देशांतूय मणिपुरी भास उलयतात. तशेंच त्रिपुरा आनी ब्रह्मदेशांतूय मणिपुरी भाशिक लोक आसात.

पुर्विल्ले मणिपुरी भाशेक लिखाण पद्दत नाशिल्ली अशें कांय विद्वानांचें मत आसा. पाखंग-बा ह्या मणिपूरच्या राजाच्या काळांत मणिपुरी भाशेक लिखित रूप मेळ्ळें.

तिबेटी-ब्रह्मी भाशासमुहांतल्या कुकि-चीन भाशासमुहांत मणिपुरी भाशेचें म्हत्व पुराय समुहांत सगळ्यांत चड आसा.

मणिपुरीच्या इंफाळ बोलीचो उपेग प्रमाण भाशेच्या रुपांत करतात. पूण मणिपुरीच्यो हेर बोली मणिपूरच्या उदेंत, अस्तंत तशेंच उत्तर आनी दक्षिण ह्या वाठारांनीय आसात. भाशेचे नदरेन, ब्रह्मी भास तशेंच तिबेटी भाशेकडे मणिपुरी भाशेचें साम्य दिसून येता. मणिपुरीची स्वताची मेईथेई म्हूण लिपी आशिल्ली. पूण अठराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडे बांगला वा बंगाली लिपीचो लिखाणाखातीर वापर जावपाक लागलो. अर्विल्लें मणिपुरी साहित्य बांगला लिपींत बरयतात.

पोरन्या लिखाणांतल्यान ग, द, ब आनी ज हे ध्वनी क्रमान क, त, प आनी छ अशे बरयतात. शब्दांच्या शेवटाक ब, द, ग, र हे ध्वनी आयले जाल्यार तांचो उच्चार जायना. कांय वेळां ल आनी न अदलाबदल जाता. भ, ध, झ, घ, व, श हीं व्यंजनां आर्य भाशांतल्यान घेतिल्ल्या शब्दांनी मेळटात. खंयचेय वस्तूचो भाग वा अंश हांचेखातीर शब्दावांगडा संबंदसूचक सर्वनाम पूर्वप्रत्यय म्हूण जोडटात.

मणिपुरी भाशेंत लिंग ही व्याकरणाची कोटी ना. जनावरांविशीं लिंगभेदाखातीर कांय प्रत्यय वापरतात. देखीक : ला-बा = 'नर'; अ - मोम = 'मादी'. देखीकः सा-गोल - ला - बा (घोडो) आनी सा-गोल-अ-मोम (घोडी). मनशाखातीर वचन निदर्शक प्रत्यय सिंग वा सींग देखीक : मा-माइ-सिंग= ताचे चाकर खूब, दर एक हे अर्थ उक्तावपाखातीर विंगड विंगड प्रत्ययांचो वापर करतात. देखीक : मा-याम म्हळ्यार खूब; खी-पिक म्हळ्यार 'दर एक'. नामाउपरांत संबंद दाखोवपा खातीर 'गी' हो प्रत्यय लायतात. वचन आनी दादलो हेविशीं क्रियापदांत बदल जायनात. वर्तमान आनी भूतकाळांतले बदल कांय प्रत्ययाप्रमाण दाखयतात. भूतकाळाखातीर इ, ए, नी, ली. ह्या प्रत्ययांचो वापर करतात. भविश्य काळाखातीर 'ग' प्रत्ययाचो उपेग केला. आज्ञार्थाखातीर 'उ' वा 'लू' प्रत्ययांचो उपेग करतात. नकारात्मक आज्ञार्थाखातीर 'ग-नु' हे प्रत्यय वापरतात. क्रियावाचक नाम 'बा' वा 'पा' ह्या प्रत्ययांक लागून समजता. मणिपुरी भाशेंत संयुक्त क्रियापदां खूब आसात. मणिपुरी वाक्यांतल्या शब्दांचो क्रम कर्तो, कर्म आनी क्रियापद असो आसता.

संस्कृत आनी बंगाली भाशेचो बरोच प्रभाव मणिपुरी भाशेचेर दिसून येता.

- कों. वि. सं. मं.

**मणिपुरी साहित्य :** मणिपुरी वा मेईथेई ही ईशान्य भारतांतली मणिपूर राज्याची मुखेल भास. ही सामान्य भास म्हूण सगळ्याक उलयतात, ती सगळ्यांक समजता. आसाम, त्रिपुरा, बंगाल आनी ब्रह्मदेशांतूय मणिपुरी, भास उलोवपी लोक आसात. तिबेटो-ब्रह्मी भाशाकुळांत मणिपुरी भाशेक म्हत्वाची सुवात आसा. मणिपूर राज्यांत चडशे लोक हिंदू धर्माचे आसून वैश्णव मताचे अनुयायी आसात.

पुर्विल्ले मणिपुरी भाशेक लिखाणपद्दत नाशिल्ल्यान ते भाशेंत हेर कांय साहित्य नाशिल्लें अशें कांय विद्वानांचें मत आसा. मणिपुरी भाशेची स्वताची अशी 'मेईथेई' म्हूण लिपी आशिल्ली. पूण ते लिपीचो उपेग फकत कांय पंडितूच करताले. अठराव्या शेंकड्यांत असमिया-बंगाली लिपी उपेगांत येतकच हे लिपीचो वापर कमी जावन उपरांत बंद जालो.

इ. स. ३३च्या सुमाराक पाखंग-बा ह्या मणिपूरच्या राजाच्या काळांत मणिपुरी भाशेक लिखित रूप मेळ्ळें. ह्याच काळांत पयल्योच मणिपुरी भाशेंत कथा आनी कविता बरयल्यो. उपरांत इ. स. ६६३ वर्सा नाओथिंखोंग राजाच्या काळांत लांगोन कुरुंबा नांवचो एक कवी जावन गेलो. ताच्या 'चकपा-रोल' ह्या काव्यांत युग-निर्मितीची कथा आसा. इ. स. ७६५ वर्सा खोंगतेकचा हाणें तांब्यापट्याचेर बरयल्लो शिबबू फंग-नबा लाइरिक नांवाचो एक धर्मीक ग्रंथ उपलब्ध आसा.

११९५ मेरेन खंबा थोईबी आनी नुरा नहा हीं दोन काव्यां, मैते पुया म्हळ्यार मणिपुरी पुराण आनी राज्यकारभाराविशीं कांय ग्रंथ इतलें साहित्य मणिपुरींत निर्माण जालें.

इ. स. चो सोळावो आनी सतरावो शेंकडो हो मणिपुरी साहित्याच्या पुनर्जागृतीचो काळ मानतात. ह्याच काळांत मणिपुरी लिखित साहित्याची खूब रचणूक जाली. इ.स. १७५९ ते १८११ ह्या काळांत मणिपुरी साहित्यांत पुराय परिवर्तन जालें. संस्कृत आनी बंगाली ह्या भाशांवांगडा

मणिपुरी भाशेंत ब्रज आनी हिंदी ह्या भाशांतले शब्द येवंक लागले. ह्या काळांतल्या राजांक बंगाली भाशेविशीं खूब ओड आशिल्ल्यान ते मणिपुरी साहित्य बंगाली लिपींत बरोवंक लागले. पूण इ.स. १८९१ ते १९२० ह्या काळांत ही परिस्थिती बदलली. मणिपुरी साहित्याची परतून उदरगत जावंक लागली. त्या काळांतलो मणिपुरचो राजा छुदाचन्द सिंह हाचे राजवटींत मणिपुरी साहित्याक बरेंच उत्तेजन मेळ्ळें.

श्री. कमल सिंह हाणें मणिपुरी भाशेंत पयली 'माधवी' ही कादंबरी आनी 'देवयानी' हें नाटक बरयलें. मणिपुरी भाशेंत उजवाडा आयिल्लो पयलो ग्रंथ म्हळयार 'मणिपुरेर इतिहास' हो आसून तो १८९० वर्सा मणिपूरच्या 'पोलिटीकल एजन्ट' हांचेवतीन उजवाडा आयलो.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक लोक आवय भाशेंतल्यान बरोवंक लागले आनी ह्याच काळांत आर्विल्ल्या मणिपुरी साहित्याची सुरवात जाली. सव्या दशकाचे सुरवातेक हिंसाचार सुरू जालो. ताचें आर्विल्लें स्वरूप नाट्यप्रयोगांतल्यान उक्तें जावंक लागलें.

**कविता :** मणिपुरांतले तरनाटे कवी, नाटककार आनी हेर साहित्यीक आपल्या साहित्यांतल्यान मणिपुरी समाजांतल्यो घडणुको आनी आर्विल्ल्या युगांतले बदल बेसबरे चित्रण करतात. नीलकांतसिंह ह्या तरनाट्या कवीन आपले 'मणिपुर' हे कवितेंत एके गोंदळिल्ले मनःस्थितींतले आवयची कल्पना केल्या. कवी सोमोरेंद्र हाणें आपल्या 'छल्लसिने कदइदानो इबनी' (१९७१) ह्या काव्यांझेल्यांतले एके स्वच्छंदतावादी कवितेंत फांतोडेक येवकार दिला. एन्. बीरेन हाचो 'तोल्लबा सदुगी वखल्' (१९७०) ह्या काव्यांझेल्यांतले कवितेंत जाणिवेचो उलो, बूर्झ्वा-मूल्यांची पोकळसाण दिसून येता. कवी इबोपिशक हाणें पंचावन्न पानांचो एक ल्हानसो 'अपैब थवई' (१९६९) हो झेलो बरयला. आनीक एक नामनेचो कवी राजकुमार मधुबीर हाचो दोन खंडांनी उजवाडाक आयिल्लो काव्यांझेलो पयल्या खंडाचें नांव 'मचु मचुगी अतीय' आनी दुसरो 'कैरब मूर्ती उरग'. तेचभाशेन ठा. इबोहल सिंग हाचो रेखा (१९७०) काव्याझेलो, के. पद्मकुमार हाचो थम्बल परेङ्ग हो झेलो. संस्कृताचो विद्वान, कलाचंद शास्त्री हाणें 'वासुदेव महाकाव्य' (१९६०) हें खंडकाव्य बरयलें. ह्या काव्यांत भगवान वासुदेव आनी गोपी हांचीं वर्णनां आयल्यांत. नीलबीर शास्त्री हाच्या 'इथक इपोम' (१९७२) ह्या झेल्याक 'जामिनीसुंदर गुह भांगरापदक' मेळ्ळें. तशेंच टोकपम इबोमचा हाचे 'पूर्णिमा' (१९६७), 'कैन अहिङ्ग', 'ओसमान मेहरी' (१९६४) आनी 'मोनालिसा' (१९६८) हे संग्रह; इबोहल हाचो 'थम्मोई पाओदम' (१९६६) आनी सुरेंद्रजित हाचो 'सतनिहाबी' हे संग्रह प्रसिध्द आसात.

**कथा :** आर्. के. एलङ्गबम ह्या तरनाट्या लेखकाचे चिङ्गया टामया आनी 'युमगी मोऊ' हे कथाझेले उजवाडा आयले. नीलबीर शास्त्रीचो 'बासंती छरोङ्ग' (१९६७) हो कथांझेलो, आसामांतल्या काचार जिल्ह्यांतलो मणिपुरी लेखक कुंजमोहन सिंग हाचो 'चेनखीद्राबा इचेल' (१९६५), एम. के. बिनोदिनी देवी हिचो नुङ्गैरक्त चंद्रमुखी (१९६७), एच्. गुनो हाचो 'फिजाङ्ग मरुम्दा' (१९६९), ई. दिनमानी हाचो 'थक्लबी' हे कथांझेले उजवाडा आयले.

**कादंबरी :** मणिपुरी कादंबऱ्यांचे विशय समाजीक आनी राजकीय स्थितीचें चित्रण करतात. १९६० वर्सा 'जहेरा' ही एच्. अनगनघलसिंह हाची कादंबरी उजवाडा आयली. एक मुसलमान चली जहेरा आनी हिंदू चलो कुग्जो हांच्या मोगाची ही दुखेस्त काणी. खऱ्या मोगाची परिणती मीलनांत जाताच अशें ना, तर ती विरहांतूय जाता असो हे कादंबरेचो कथाविशय. एस्. नोदियाचंद सिंह हाच्या गौरपूर्णिमा (१९६६), देवदन (१९६७), अमरकीर्ति (१९६८) आनी नोंगपोक चिनखेई थाबी (१९७०) ह्यो चार कादंबऱ्यो प्रसिध्द आसात. एलङ्गबम हाणें 'मरूप अनी' हे कादंबरींत दोन अनाथ भुरग्यांची काणी सांगल्या. एच्. गुनो हाणें युक्त लेमन (१९६४) आनी 'खुनदोल' (१९६८) ह्यो दोन कादंबऱ्यो बरयल्यो. गुनो हाची आनीक एक कादंबरी 'अरोइबा पाओदम' (१९७१) ही आसा. कादंबरीकार टी. इबोमचा हाच्यो 'मोङ्गफाम' आनी 'मङ्गलैबक' (१९७०) ह्यो दोन कादंबऱ्यो उजवाडा आयल्यो. इबोहलसिंह हाणें आपल्या 'इमन ईबु मङ्गहनबनी' (१९५१) आनी 'इदी ओक्तबिनी' (१९५३) ह्यो कादंबऱ्यो बरोवन मणिपुरी मध्यमवर्गांत खूब बोवाळ घालो. टी. थोइबी देवी ही एक मणिपुरी बायल कादंबरीकार. तिच्यो तीन कादंबऱ्यो अशो आसात - 'राधो' (१९६५), 'नुङ्गश्चि इचेल' (१९६५) आनी 'चिङ्गद सत्न इङ्गेल्लै' (१९७१). लोईतोङ्गबम पच हाच्या तीन कादंबऱ्यांचीं नांवां अशीं आसात. - 'ह्याद बेगम' (१९६७) आनी 'न तथीब अहल अम' (१९६९), 'इम्फाल अमासुङ्ग मागी इसिङ्ग नुङ्गशितकी वारी' (१९७२).

**नाटक :** अनगनघल ह्या नाटककाराची 'थाई थिङ्ग कोनु' (१९६५) आनी 'मोइराङ्ग थोईबी' हीं नाटकां खूब गाजलीं. मणिपुरींतलीं नाटकां हीं चडकरून रंगमाचयेचेर सादर करपाखातीरूच करतात. बोरमानी, ललितसिंह, थनिनसिंह, एम्. रामचरन, एस्. कृष्णमोहन सिंह आनी हओबाम ह्या नाटककारांचो नामनेच्या नाटककारांमदीं आस्पाव जाता. एम्. बीरमंगोलसिंह हाचीं सुमार तीस नाटकां आसात. तशेंच जी. सी. टोङ्गब्रा आनी ए. सोमोरेंद्र सिंह हेय नामनेचे मणिपुरी नाटककार आसात.

मणिपुरी साहित्य, निबंद आनी समिक्षात्मक साहित्याचे नदरेन व्हडलेंशें समृध्द ना. कवी ए. मीनकेतन हाणें 'मेईथेई उपन्यास' (१९५०) हो समिक्षात्मक ग्रंथ बरयलो. डॉ. बाबू सिंह, मनीहार सिंह, दिनमानी हे कांय समीक्षक जावन आसात.

मणिपुरींत संस्कृत, बंगाली, हिंदी, इंग्लीश ह्या भाशांतल्यान अणकार जाले. टागोर, बंकिमचंद्र चटर्जी, प्रेमचंद्र, भगवतीचरण वर्मा, जैनेंद्रकुमार आनी हेर लेखकांच्यो साहित्यकृती मणिपुरींत अणकारिल्ल्यो आसात. रामायण, महाभारत ह्या संस्कृत काव्यांचो मणिपुरींत अणकार जाला.

तेच भाशेन कालिदास, भवभूती, भास, बाणभट्ट हांच्यो रचणुकोय मणिपुरींत अणकारल्यात. मणिपुरी साहित्याचो इतिहास व्हडलो नासलो तरी ताचो दर्जो मात उंचेल्या पावंड्याचो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मणिपूर :** भारतांतलें उदेंत शिमेवयलें एक राज्य. 'रत्नभूंय' (The Land of Jewels) असोय ह्या राज्याचो उल्लेख करतात. राज्याचे उत्तरेक नागालँड राज्य, उदेंत आनी आग्नेय दिकेक ब्रह्मदेश, दक्षिणेक मिझोराम हो केंद्रशासित प्रदेश आनी अस्तंतेक आसाम राज्य आसा.

**विस्तार :** २३°५०' ते २५°४१' उत्तर अक्षांश आनी ९३°२' ते ९४°४७' उदेंत रेखांश. राजधानीः इंफाळ. लोकसंख्याः १,८२६,७१४(१९९१).

**भूंयवर्णन :** प्राकृतिक नदरेन राज्य दोन भागांनी वांटून गेलां. राज्याच्या मध्यभागांत मळां आशिल्लो वाठार आसा जाका मणिपूर देगण म्हूण वळखतात आनी दुसरो ताच्या भोंवतणचो दोंगरी वाठार. मणिपूर देगण समुद्रथरासावन ७६२मी. उंचायेचेर आसून ह्या वाठाराची लांबाय ४०किमी. आनी रुंदाय ४०किमी; क्षेत्रफळ सुमार १,५५५चौ. किमी. आसा. राज्याचो सुमार ९०% वाठार दोंगराळ आसून ह्यो दोंगराच्यो वळी उत्तर दिकेन पातळ्ळयात. ह्या दोंगराळ वाठाराचे उत्तरेक नागा दोंगुल्ल्यो, उदेंतेकडल्या ब्रह्मदेशाचे शिमेलागच्यो मणिपूर दोंगुल्ल्यो आनी दक्षिणेक लुशाई आनी चीनी दोंगुल्ल्यो आसात. हो वाठार समुद्रथरासावन १,५२५ ते १,८३०मी. उंचायेचेर आसा. कांय कडेन शंखा आकृतीच्यो तर कांय कडेन सपाट दोंगुल्ल्यो दिश्टी पडटात.

भोंवतणच्या दोंगरी वाठारांतल्यान व्हांवन आयिल्ल्या गाळाखातीर मणिपूर देगणांतली माती गाळाची जाल्या. बरे प्रतीचे चुनखडीचे हांगा भरपूर सांठे आसून राज्यांतलें तें मुखेल खनीज. तेभायर ॲस्बेस्टस, लिग्नाइट, तांबें, निकेल हांच्या धातुकांचेय कांय प्रमाणांत सांठे मेळटात.

ह्या राज्याक मदीं मदी भूंयकांपांचीय बादा जाता. १९६९ आनी १८९७ वर्सा ह्या राज्याक खरपणान भूंयकांपांची बादा जाल्ली.

इंफाळ, इरिल, थोबल, नंबुल, आनी नंबोल ह्यो राज्यांतल्यो मुखेल न्हंयो. हातूंतल्यो इंफाळ, इरिल आनी थोबल ह्यो तीन न्हंयो उत्तरेकडल्या दोंगरी वाठारांत उगम जावन मध्यभागांत आशिल्ल्या लोकटाक तळयाकडेन वतात. नंबोल न्हंय लोकटाक तळयाक येवन मेळटा आनी थंयच्यान कोर्टक नांवान भायर सरता. हे कोर्टक न्हंयेक इंफाळ आनी नंबुल न्हंयो येवन मेळटात, तेन्ना अचौबा आनी इंफाळ वा मणिपूर ह्या नांवान तांचो संयुक्त प्रवाह जाता. हो प्रवाह सुरवेक किंदत न्हंयेक आनी उपरांत चिंद्‌विन न्हंयेक वचून मेळटा. तेभायर जिरी, माकरू, बराक, इरांग, लेंगबा आदी न्हंयो राज्यांतल्यान व्हांवतात. अस्तंतेकडल्या दोंगुल्ल्यांच्या वाठारांतल्यो न्हंयो फातराळ आनी खोल अशा देगणांतल्यान व्हांवतात. बराक ही दोंगुल्ल्यांच्या वाठारांतली सगळ्यांत व्हड न्हंय.

मळा वाठारांतल्या न्हंयांचेर ल्हान ल्हान व्हड्यांतल्यान येरादारी चलता. मणिपूर देगणाच्या आग्नेय वाठारांत आशिल्लें १३किमी. लांबायेचें आनी ८किमी. रुंदायेचें तळें म्हळ्यार लोकटाक. ह्या तळयाचें क्षेत्रफळ पावसांत १०४ चौ. किमी. तर हेर दिसांनी ६४ चौ. किमी. आसता. ह्या तळयांत कांय जुंवे आसून तांचेर नुस्तेकारांची वसती आसा. थांगा हो तातूंतलो सगळ्यांत व्हड जुंवो. तेभायर बैथाऊ, पमलेन, इकोक, लांफेल हीं हेर तळीं आसात.

**हवामान :** मणिपूर देगणांतलें हवामान थंड आनी भलायकेक मानवपी अशें आसा. वर्सुकी पावसाचें प्रमाण सुमार २०० सेंमी. आसून चडांत चड पावस नैर्ऋत्य मोसमी वाऱ्यांपसून पडटा. ईशान्य भागांतल्या दोंगरी वाठारांतलें हवामान थंड आसता. इंफाळ हांगा सादारणपणान १७५ सेंमी. पावस पडटा. दोंगराळ प्रदेशांत हेंच प्रमाण २५० सेंमी. वाडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** राज्याचो ६८%भाग रानांचो आसून तो दोंगराळ वाठारांत आसा. पाइन, फर, ओक, कोंडे, साग, सिंकोना, पाम हीं झाडां हांगा आसात. जरदाळू, सफरचंद, नासपती, आलुबुखार हीं फळझाडांय भरपूर आसात. कांयकडेन च्याचे मळे आसात. जळपाखातीर आनी इमारतीं खातीर वापरांत येवपी लाकूड हें रानांतल्यान मेळपी मुखेल उत्पादन. तेभायर कोंडे, तण, वासाचीं द्रव्यां, तिखी हीं हेर उत्पादनांय मेळटात. मणिपूर देगणांत झाडां आसात.

राज्यांत हत्ती, वाघ, गेंडो, वांस्वेल, हरण, रानदूकर आदी मोनजात मेळटा. आग्नेयेकडल्या दोंगुल्ल्यांनी गेंडो आनी गवो तर ऊंच दोंगरांनी मदीं मदीं सिरो वा गोटॲंटिलोप मेळटात. मणिपूर देगणांत रानदूकर आनी हरणां आसात. लोकटाक तळयांत रानघोडे आनी बदकां आसात. तितर, कृकणपक्षी आनी हेर वन्यपक्षी सगळेकडेन आसात.

**इतिहास :** कांय पुराणकथांतल्यान पुर्विल्ल्या मणिपुराविशीं म्हायती मेळटा. पुर्विल्ल्या काळांत त्या जाग्यार दर्या आशिल्लो. पूण जायत्या देवदेवतांनी थंय माती घालून तो भाग भरून काडलो. हे भुंयेचेर एक फावट शंकर-पार्वती रास नाच करपाखातीर आयलीं, तेन्ना नागराज अनंतान आपल्या मस्तकावयल्या मणयान हो वाठार प्रकाशित केलो, देखून ह्या वाठाराक 'मणिपूर' हें नांव मेळळें अशें म्हण्टात. ह्या वाठाराक मेकलाय, कासी, मकेली, मागली, मागलन आदी नांवांनीय वळखताले. अर्जुनाची एक बायल चित्रांगदा ही हांगाचीच राजकुंवरी. तिचो पूत बभ्रुवाहन हो ह्या वाठाराचो राजा आशिल्लो अशी महाभारतांत कथा आसा. कांय अभ्यासकांच्या मतान महाभारतांतलें मणिपूर राज्य आनी आतांचें आसामालागसल्लें मणिपूर राज्य हीं वेगवेगळीं आसुंये.

भारतांत आर्य येवचे आदीं मणिपुरांत एक स्वतंत्र आनी प्रगत राज्य नंदतालें अशें सांगतात. पूण इ.स.नाच्या आठव्या शतमानामेरेन हांगाची कांयच म्हायती मेळना. इ.स.नाच्या आठव्या ते सतराव्या शतमानामेरेन मणिपुरांत ३६ राजे जावन गेले अशें म्हण्टात. पूण ह्या काळांत भोंवतणच्या नाग आनी हेर टोळयांनी घुरयो घाल्यो आनी थंयची आर्य संस्कृती नश्ट जाली. १३व्या शतमानांत एका चिनी सेनादलान ह्या वाठाराचेर धुरी घाली. पूण तातूंत ताचो पराभव जावन तांकां सगळयांक अटक जाली. ताच्याकडल्यानूच रस्मी उत्पादन आनी वस्त्रां विणपाची तशेंच विटांनी घरां बांदपाची कला हांगाच्या लोकांक कळ्ळी.

मणिपुरच्या राजकीय इतिहासांत पानहिबा ह्या राजाची कारकीर्द (इ. स. १७१४ ते १७४९) म्हत्वाची थारता. नाग कुळांतल्या राजघराण्यांत ताचो जल्म जालो. गरिबांक तो पावतालो ताच्या मरणा उपरांत ताच्या पुतांमदीं भाव-बंदकी जाली. ताणें आपल्या सुमार चाळीस वर्सांचे कारकिर्दींत मणिपुराचे उदरगतीखातीर जायते यत्न केले. देखून ताका 'गरिबनिवाज' म्हणून वळखताले.




कांय काळ गेल्या उपरांत परती राजकीय अस्थिरताय निर्माण जावन, तेन्नाच राजघराण्यांतल्या एका वारसान ब्रह्मदेशांतल्या सैन्याचो आदार घेतलो. जेन्ना ब्रह्मी सैन्यान मणिपुराचेर ताबो घेतलो, तेन्ना इंग्रज आनी ताचे मदीं झूज जालें. १४ फेब्रुवारी १८२६ दिसा दोगांयमदीं कबलात जाली. उपरांतच्या काळांत राजघराण्यांतल्या मनशांमदीं सत्तेखातीर सर्त निर्माण जाली. ताचो फायदो घेवन इंग्रजांनी मणिपूर आपल्या ताब्यांत घेतलें. (१८९१). तेन्ना युवराजपदाचेर आशिल्लो टिकेन्द्रजित (चंद्रकीर्तीचो चलो) आनी सेनापती खंगाल हांकां १३ ऑगस्ट १८९१ दिसा इंफाळाच्या पोलो मैदानाचेर फांशी दिले. कुलचंद ह्या निमण्या राजाक हद्दपार केलो.

भारत स्वतंत्र जाल्या उपरांत १५ ऑक्टोबर १९४९ दिसा विलीनीकरणाची कबलात जावन केंद्र सरकारान थंयचें प्रशासन आपल्या हातांत घेतलें. १९५० - ५१त हांगा सल्लागार शासन सुरू जालें. १९५७ त ही शासनवेवस्था बदलून थंय ३० निर्वाचित आनी दोन नियुक्त अशा ३२ वांगड्यांची प्रादेशिक परिशद (Territorial Council) काम पळोंवक लागली. फुडें १९६३ त हांगा विधानंसभा स्थापन केली. तातूंत ३० निर्वाचित आनी ३ नियुक्त अशे ३३ वांगडी आशिल्ले. राज्यांतली अस्थिर राजकीय वेवस्था मतींत घेवन १६ ऑक्टोबर १९६९ दिसा थंय राश्ट्रपती राजवट लागू केली. फुडें १९ डिसेंबर १९६९ पसून मुखेल आयुक्ताबदला लेफ्ट. गव्हर्नर हाची, हांगाचो मुखेल प्रशासक म्हणू नेमणूक जावंक लागली. २१ जानेवारी १९७२ त मणिपुराक राज्याचो दर्जो मेळ्ळो.

सद्या मणिपुरांत फकत विधान-सभा आसून तिचे ६० वांगडी आसतात. तातूंतले १९ वांगडी हे कांय जमातीच्या राखीव मतदार संघांतल्यान वेंचिल्ले आसतात. देशाचे संसदेंत ह्या राज्यांतल्यान लोकसभेखातीर दोन आनी राज्यसभेखातीर एक वांगडी वेंचून काडटात. फेब्रुवारी १९८१ त राज्यांत राश्ट्रपती राजवट लागू केल्ली.

**अर्थीक स्थिती** : शेती आनी रानांतलें उत्पादन हीं राज्याच्या उत्पन्नाचीं मुखेल साधनां. शेतकाम हो थंयच्या लोकांचो मुखेल धंदो. राज्याच्या वट्ट क्षेत्रफळांतलें २,१०,००० हेक्टर क्षेत्र शेतीखाल आसून, राज्याच्या एकूण उत्पादनांत चड उत्पादन शेती आनी पशूपालन हांचेपसून मेळटा. मणिपूर देगणांतली माती तांबडी आनी गाळाची आशिल्ल्यान थंय भाताचें पीक बरें येता. वट्ट कृषीउत्पादनांत ८०% उत्पादन तांदळांचें आसा. तेभायर सासवां, ऊंस, वेगवेगळीं कडुणां, तंबाखू, खसखस, पालेभाज्यो, गंव आदींचींय पिकां घेतात. तशेंच संत्रां, लिंबू, अनस, केळीं, पणस, सफरचंद हांचेंय उत्पादन घेतात. राज्यांतल्या अन्नधान्य उत्पादनांत वाड करपाक १०५ ल्हान जलसिंचन येवजणो हातांत घेतल्यात. दोंगरी वाठारांतल्यो भटक्यो जमाती सोपान आनी झूम पद्दतीन शेती करतात.

हांगाचें हवामान आनी जमनीक लागून तुतीच्या झाडांची वाड बरी जाता. तांचेर रस्मीकिडे पोसून तांचेपसून रेशीम मेळयतात. ओक, टसर उत्पादन करपी, हें भारतांतलें पयलें राज्य आसून, राज्यांत वट्ट ५४ टसर उत्पादन केंद्रां आसात. मणिपुरच्या लोकांच्या जेवणांत नुस्तें आशिल्ल्यान हांगा नुस्तेमारीय चलता. राज्यांत मोनजातय भरपूर आसा. गाय, म्हस, बैल, बोकड्यो, मेंढरां आदी मोनजात ते पाळटात. मणिपुरी तट्टूची बरीच नामना आसा.

राज्यांत हातमाग उद्देग हो म्हत्वाचो उद्देग आसून तो चडसो घराव्या स्वरुपाचो आसा. हातमागी कपड्याच्या उत्पादनाक देशांत तशीच परदेशांतूय मागणी आसा. लघुउद्येगांत सुतारकाम, लोहारकाम, क़ातउद्देग, भरतकाम, विटो तयार करप, शिवणकाम आदी जायते उद्देग राज्यांत चलतात. वेगवेगळया उद्देगांचीं प्रशिक्षण आनी उत्पादन केंद्रां हांगा स्थापन केल्लीं आसात. तशेंच केइथेलमनबी, तामाँगलाँग, तेंगनौपल (चकपी) आनी उखरूल हांगा सहकारी लाकूड कटाई आनी सुतारकाम संस्था आनी चूरचंदपूर चामडी प्रक्रिया आनी प्रशिक्षण केंद्राची स्थापना केल्ली आसा.

इंफाळ हें राज्यांतलें मुखेल केंद्र आसून, रस्मी आनी सुती कापड, नुस्तें, पालेभाज्यो, तांदूळ, शेंदऱ्यो हांचो थंय चड प्रमाणांत वेपार चलता. हांगाचो वेपारी वेव्हार चडशो मणिपुरी बायलोच करतात. राज्यांतल्यान तांदूळ, वनोत्पादन, गाय, बैल, म्हशी हांची निर्यात जाता आनी तेल, सुपारी, खारें, मीठ, कापडी वस्तू, सूत हांची आयात जाता. अर्थीक नदरेन मणिपूर राज्य बरेंच मागाशिल्लें आसून राज्याचें क्षेत्रूय मर्यादीत आसता.

**येरादारी आनी संचरण :** राज्याचें स्थान कांय प्रमाणांत एकटुकें आशिल्ल्यान आनी थंय दोंगरी वाठार आशिल्ल्यान येरादारीची वेवस्था उणी आसा. हांगा दोन मुखेल रस्ते आसून तातूंतलो एक अस्तंतेक आसामाच्या काचार जिल्ह्यांत, तर दुसरो काझीरंगा (आसाम) ते दक्षिणेक ब्रह्मदेशाचे शिमेमेरेन वचपी राश्ट्रीय महामार्ग इंफाळाच्यान वता. मणिपूर राज्यमार्ग परिवहन महामंडळाभायर कांय खाजगी कंपन्यांकडल्यान मोटारींची येरादारी चलता. राज्यांत रेल्वेमार्ग ना. इंफाळ हें कलकत्ता, सिलचर आनी गौहाती हांकां हवाईमार्गान जोडलां.

**लोक आनी समाजजीण :** राज्यांत सुमार ४० जमाती आनी उपजमाती आसात. हे लोक कमाल, लुआंग, मोइरंग आनी मेईथेई ह्या चार पोरन्या जमातींचे वंशज आसात. आतां ताका मेईथेई ह्या नांवान वळखतात. राज्यांतल्या वट्ट लोक संख्येंतले दोन तृतीयांश लोक हिंदू धर्माचे आसून, ते चडशे मणिपूर देगणांत रावतात. ते विष्णुभक्त आसून स्वताक हिंदू क्षत्रिय समजतात. मेईथेईभायर फुंगनाई जमातीचे लोक आसून तांच्यो पांच उपजमाती आसात. नागा आनी कुकी ह्योय थंयच्यो मुखेल उपजमाती आसून, नागांत तंगखुल, काबुई, कोईराव मारिंग ह्या उपजमातींचो आस्पाव आसा.

समाजांत बायलांक म्हत्वाची सुवात आसून, मणिपूर देगणांत वेपार तशेच खरेदी-विक्रीचे सगळे वेव्हार बायलोच पळयतात. घरांत त्यो सूत कांतप, विणकाम आदी उद्येग करतात. पुरुम कुकी लोकांत चल्याक मामाचे चलयेकडेन लग्न करचें पडटा. तशेंच घोवाक बायलेगेर वचून रावन त्या कुंटुबाच्या वावराचो भार घेवचो पडटा.

लामनई (ग्रामदेवता), उमंगलाई (वनदेवता), इमुंगलाई (गृहदेवता), पान्थोयबी, नोंगशाबू, युमथाईलाई ह्यो हांगाच्यो मुखेल देवता. 'पाखेम्बा' ह्या देवाक ते विश्वपिता मानतात. ताका ते गुरू म्हण्टात. ताचेपसूनच थंयचो राजवंश सुरू जालो, अशें ते मानतात. होळी, दुर्गापुजा, दिवाळी ह्यो हांगाच्यो मुखेल परबो. हांगा जून-जुलय ह्या म्हयन्यांत रथयात्रा आनी मार्च म्हयन्यांत ढोलजात्रा आसता. होळीक हे लोक 'माऊ शांग' अशें म्हण्टात. होळयेच्या वेळार 'थावल चोम्बा' हो नाच करतात. हो नाचाचो कार्यक्रम १५ दीस चलता. ह्या वेळार चलो-चली पळून वचून गांधर्व तरेन लग्न करतात.

राज्यांत मणिपुरी ही मुखेल भास आसून, ती ६३.२४% लोक उलयतात. भारतांतली ही एक पुर्विल्ली भास समजतात. हिंदी भासय सगळेकडेन पातळ्ळया. आदिवासी जमातीची स्वतंत्र बोली भास आसा. मणिपुरी भास ही तिबेटो ब्रह्मी भासांतल्या कुकि-चीन ह्या चोम्यांतली आसून तिचें ब्रह्मी भाशेकडेन सारकेंपण आसा. सद्या ही लिपी जाणा आशिल्ले थोडेच लोक आसात. मेईथेई लोकांनी वैशणव पंथ आपणायतसावन मणिपुरी भाशेवांगडा बंगाली आनी आसामी भाशेच्या अभ्यासाक सुरवात जाली.

मणिपुरी साहित्याचे पुर्विल्ले, मदल्या युगांतले आनी आर्विल्ले अशे तीन भाग पडटात. इतिहास, ज्योतिश, चिकित्साशास्त्र, नीतिशास्त्र, वंशावळी हेविशीं जायतीं पुर्विल्लीं हातबरपां मेळ्ळयांत. तेभायर पूया, निहौरोन आनी चेइथारोल हे सारके पुर्विल्ले ग्रंथ आनी हेर कांय इतिहासीक कागदपत्रां मेळ्ळयांत. पानथोयबी खोंगुल आनी खोंग जोंग नुबे नोन गारोन हीं इतिहासीक म्हत्वाचीं पुस्तकां आसात. तारबेल ज्ञाम्बा (त्रिपुराचें जैत), सुमजोक ज्ञाम्बा (सुमजोकचें जैत), चेइथारन कुम्बाबा (राजघराण्याचो इतिहास) आनी नुकिट काप्पा (सुर्याचो शिकारी) आदीं कांय पुर्विल्लीं हातबरपां उल्लेख करपासारकीं आसात.

मणिपूर राज्यांत वैशणव पंथाचो प्रसार जातकच मणिपुरी लोकांनी वैशणव साहित्याकडेन संबंद दवरपाक सुरवात केली. हांगाच्या वैशणव पंथाच्या उदया वांगडाच मदल्या युगांतल्या साहित्याचो उदय जालो. पुर्विल्ल्या प्रेमकाव्याची सुवात राधाकृष्णाच्या मोगावर्णनांनी घेतली. तातुंतल्यानूच मणिपुरी साहित्याची उदरगत जायत गेली. तेचपरी बंगाली

भासूय थंय लोकप्रिय जाली. ह्याच काळांत खुबशा बंगाली आनी संस्कृत ग्रंथांचे अणकार जाले. मणिपुरी भाशेंतलीं रामायण आनी महाभारत हांगा बरींच लोकप्रिय जालीं. बंगाली भाशेक हांगा म्हत्वाची सुवात आसून, हांगा बंगाली भाशेचो अभ्यास करतात. १९२४ मेरेन हांगाचे शाळेचें अभ्यासाचें माध्यम बंगाली आशिल्लें.

विसाव्या शतमानाचे सुरवेक सावन आर्विल्ल्या मणिपुरी साहित्याची सुरवात जाली. थंयचो कमल हो उंचेल्या पांवड्याचो कवी आसून ताचे 'माधवी' हे कादंबरीक बरीच नामना मेळळया. थंयचे चओबा आनी एच्. अनगनघलसिंह हेय उल्लेख करपासारके लेखक. अनगनघलसिंह हाणें आठ खंडांत 'खंबा-थोइबी' हें महाकाव्य बरयलां. डोरेन्द्रजीत सिंह हाणें 'केशवध' हें महाकाव्य बरयलां. अंगांभ्रहाल सिंह आनी सुरचन्द शर्मा हे हेर नामनेचे कवी. शीतलजीत सिंह हो मणिपुरांतलो आर्विल्ल्या काळांतलो एक नामनेचो लेखक.

नाट्यकलेंतूय हांगाचे लोक फिशाल आसात. पयलीं हांगा बंगाली नाटकां करताले. १९१४ त 'अरजुंगी मैथिबा' हें 'पार्थ्व पराजय' ह्या बंगाली नाटकाचो अणकार केल्लें पयलें मणिपुरी नाटक सादर केलें. १९२५ त एल्. एम्. श्वोन्गाहल सिंह हाणें नरसिंह हें मूळ मणिपुरी नाटक बरयलें. नाटक बरोवन सादर करपाक रामचंद्र सिंह, ए. श्यामसुंदर सिंह, एस्. बोरमानी सिंह हांची नामना आसा. अणकारीत बरपांत एम्. कोईरेंग सिंह हाचें 'कपालकुंडला', वासुदेव शर्मा हाचें अभिज्ञान शाकुंतल आनी एच्. नवद्वीप चंद्रसिंह हाचें 'मेघनाद-वध' हीं उल्लेख करपासारकीं आसात. धर्मीक साहित्यांत पंडित अरोम वाथू शर्मा हाचो वावर चड आसा. मोगांगा गुरू पुन्सिबा, लुवांग गुरू पुन्सिबा, आनी खुमान गुरू पुन्सिबा हे व्हड संत पुरूस हांगा जावन गेल्यात. ज्ञासी, प्रजातंत्र, अनौबा समाज हीं मणिपुरांतलीं मुखेल दिसाळीं.

मणिपुरान संवसाराक 'मणिपुरी नाच' आनी 'मणिपुरी पोलो' ह्यो दोन मुखेल देणग्यो दिल्यात. हॉकी आनी कुस्ती हे हांगाचे आवडीचे खेळ.

**म्हत्वाचीं थळां** : सैमीक नदरेन मणिपूर राज्याक खूब म्हत्व आसा. हांगाच्या इंफाळ ह्या राजधानीच्या शाराक सांस्कृतिक, वेपारी आनी राजकीय नदरेन म्हत्व आसा. हांगाची बाजारपेठ, पोलो मैदान, वस्तुसंग्रहालय, राजवाडो, भांगरा देवूळ, नृत्य अकादेमी आदी उल्लेख करपासारकीं आसात. इंफाळाचे अस्तंतेक ६ किमी. चेर नामनेचें प्राणिसंग्रहोद्यान, उत्तरेक ७किमी. चेर खोंघांपत ऑर्किड यार्ड, ८ किमी. चेर लांगथाबल, १६ किमी. चेर वैथाऊ आनी २७ किमी. चेर बिशनपूर, २९किमी. चेरे कैना (हिंदूंचें पवित्र थळ), ३७ किमी. चेर आशिल्लें खोंगजोम (इतिहासीक थळ) आदी कांय पळोवपासारकीं थळां आसात. इंफाळसावन ४५ किमी. चेर आशिल्लें मोइरंग हें पुर्विल्लें साहित्यिक केंद्र आसून खंबा-थोइबी नाचाचें हें उगमस्थान मानतात. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत आझाद हिंद सेनेचें हें मुखेल केंद्र आशिल्लें. चूरचंदपूर, माओ, टेंगनौपल, उखरूल, कांगचूप पल्लेल, क्रौबू हीं नामनेचीं पर्यटन केंद्रां हांगा आसात. लोकटाक तळें, ह्या तळयांत आशिल्ल्या थांगा आनी करांग जुंव्यावयलीं सुंदर उद्यानां आनी लोकटाक जलविद्युत् प्रकल्प हीं मुखेल पर्यटन थळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मणिमेखलै** : तमिळ भाशेंतलें एक महाकाव्य. तमिळ पंचमहाकाव्यांत ताची गणना जाता. पुर्विल्ल्या तमिळ साहित्याच्या तिसऱ्या संघम काळांतलें हें महाकाव्य शित्तलै शात्तनार ह्या कवीन रचलें. शात्तनार हो मदुरा हांगासल्लो आशिल्लो. मदुरेच्या तिसऱ्या संघमचो तो एक मुखेल सदस्य-कवी आशिल्लो. धर्मान तो बौध्द आशिल्लो.

शिलप्पधिकारमचो कर्तो इळंगो अडिगळ आनी शात्तनार हे एकाच काळांतले आनी एकामेकांचे इश्ट आशिल्ले. शिलप्पधिकारमचो नायक कोवलन् आनी उपनायिका माधवी हांची धूव मणिमेखला हिच्या जिविताचेर शात्तनरान आपलें काव्य रचिल्ल्यान कथाभागाचे नदरेन ह्या काव्याक शिलप्पधिकारमचोच उत्तरार्ध अशें म्हण्टात. ते नदरेन हीं दोनूय महाकाव्यां तमिळांत जुवळीं महाकाव्यां समजतात.

मणिमेखलांत बौध्द धर्मतत्त्वांचो आविश्कार जाल्लो आसा. शात्तनार हो फकत तमिळ विद्वानच नाशिल्लो जाल्यार संस्कृत भाशेंत आनी तर्कशास्त्रांत तो पारंगत आशिल्लो. मणिमेखलै हें ताचें महाकाव्य ३० सर्गांनी विभागिल्लें आसून, तातूंत वट्ट ४८५७ वळी आसात. ह्या महाकाव्याचें कथानक अशें- पुर्विल्ल्या काळांत चोळ देशांत शँबियन नांवाचो एक राजा आशिल्लो. कावेरीपट्टनम ही ताची राजधानी. अगस्त्यमुनीन हे राजधानींत, राजाचे परवानगेन, २८ दिसांचो इंद्रोत्सव व्हडा थाटान सुरू केलो. माधवी हे राज्यांतले राजनर्तिकेक आनी तिची धूव मणिमेखला ह्या दोगांकूय ह्या उत्सवांत नाचाखातीर आपयलें. पूण दोगीय आयल्योनात, कोवलन ह्या आपल्या प्रियकराक विनाकारण देहदंड दिल्ल्यान माधवी नाच-पदां सोडून विरक्त जाल्ली आनी आपले धुवेकूय तिणें तपस्येचो मार्ग दाखयलो. एक दीस मणिमेखला, आपली इश्टीण सुधामती हिचे वांगडा पोरसांत फुलां हाडपाक गेल्लेकडन, मणिमेखलेचेर मोग करपी चोल राजकुंवर उदयकुमार तिका सोदीत त्या पोरसांत पावलो. सुधामतीन, मणिमेखलेक लागसारूच लिपयली. मणिमेखला तपस्विनी आसून तिचेकडे तपोबलान शाप दिवपाचें बळगें आसा अशें राजकुंवराक सांगलें. तें आयकून राजकुंवर थंयसावन परतलो, पूण मणिमेखलेची राखण कशी करची ही चिंता सुधामतीक जाली. पूण मणिमेखला नांवाचेच कोवलनचे कुलदेवतेन, मणिमेखलेची राखण करपापासत तिका न्हीदोवन अंतराळमार्गान मणिपल्लव जुंव्यार व्हेली.

थंय जाग येतकच मणिमेखलेक बौध्द पीठिकेचें दर्शन जालें. थंय एक गायच्या तोंडाआकृतीचें तळें आशिल्लें. दर वर्सा बुध्द जयंतीक त्या तळयांतल्यान अमृतसुरभी नांवाचें एक दैवी अक्षयपात्र येतालें. मणिमेखलेच्या तपोबळान तें अक्षयपात्र तिका मेळ्ळें. ह्या अक्षयपात्रांतलें अन्न केन्नाच सोंपनाशिल्लें. तें घेवन ती कावेरीपट्टणम् हांगा परत आयली आनी भुकेल्ल्या गरिबांक अन्नदान करूंक लागली. ही खबर राजकुंवराक कळनाफुडें तो थंय आयलो. ताचेपसून राखण मेळची देखून तिणें विद्याधरीचें रूप घेतलें आनी धर्मशाळेंत वचून रावली. राजकुंवर तिका वळखलो आनी एके राती तो तिका मेळूंक गेलो. थंय कांचन नांवाची एका विद्याधराची बायल शेणिल्ली. तो मणिमेखलेक आपली बायल समजतालो. थंय राजकुंवराक आयिल्लो पळोवन विद्याधरान ताका जिवो मारलो. हें राजा राणयेक कळटकच तांकां वायट दिसलें. तांणी मणिमेखलेक खूब तरेन त्रास दिवपाक सुरवात केली. तेन्ना तेवेळचो नामनेचो त्रिकालज्ञ बौध्दाचार्य अरवण अडिगळ हाणें राणयेकडे वचून तिका जल्म, मरण, जरा, व्याधी ह्यो संवसारांतल्यो सदच्यो आनी स्वभावीक गजाली आसात असो उपदेश केलो. ताचो तत्त्वगिन्यानी उपदेश आयकून राणी शांत जाली आनी तिणें मणिमेखलेची सुटका केली. ह्यावेळार कांचींत खर दुकळ पडिल्लो. अरवण अडिगळ, माधवी, सुधामती हांचेवांगडा मणिमेखलाय आपलें अक्षयपात्र घेवन कांचीक गेली. थंय तिणें एक बौध्द पीठ स्थापन केलें आनी दुकळग्रस्तांक आदार दिलो. उपरांत तिणें अरवण अडिगळ हाचेकडेन वचून बौध्द धर्माची दिक्षा घेतली.

ह्या महाकाव्यांत चडकरून धर्मीक आनी बौध्द धर्माचो प्रसार हांचेर भर दिला. बौध्द गिन्यान आनी पुराणकथांचे जायते उल्लेख तातूंत आयल्यात. तेचपरीन तत्त्वीक आनीक धर्मीक भासाभासय तातूंत आसा. महाकाव्याचे सगळे विशेश तातूंत आसून शात्तनारच्या सोबित प्रतिभेचें जंय थंय दर्शन घडटा. सामान्य मनशाकय खोल तत्त्वीक प्रमेयां सहज समजुपाक येतलीं अशे तरेच्या दार्शनिक विचारांचें काव्यमय स्पश्टीकरण तातूंत दिसून येता. तमिळ पंच महाकाव्यांत ताका मानाची सुवात आसा.

- श्री. शं. फडके

**मणिरत्न रामायण :** एक रामायण. ह्या रामायणांत छत्तीस हजार श्लोक आसात. तामस मन्वंतराच्या चवदाव्या त्रेतांमदीं ह्या रामायणाची रचणूक जाल्ली आसून, तें वसिष्ठ आनी अरुंधतीच्या संवादांवरवीं बरयलां. ह्या रामायणाची सात सोपानांमदीं वांटणी केल्या. तातूंत पंचवटीची उत्पत्ती, गोदावरीची उत्पत्ती, चित्रकूटाचें म्हत्व, वाल्मिकि - आश्रम, बायलां-धर्म हे विशय आसात. तशेंच तरेकवार सण-परबांचीं वर्णनां आयल्यांत. वेदस्तुती, शिवस्तुती तशेंच इंद्र, ब्रह्मा, गंगा हांची स्तुती हें स्तोत्र आसून गुरूगीता, देवगीता, भक्तिगीता, ज्ञानगीता, कर्मगीता, शिवगीता आनी वेदगीता ह्यो सप्तगीता ह्या रामायणांत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मणिलाल, नभुभाई द्विवेदी :** (जल्म : १० सप्टेंबर १८५८, नडियाद; मरणः १ ऑक्टोबर १८९८, नडियाद).

गुजराती साहित्याच्या पंडितयुगांतलो एक श्रेश्ठ लेखक आनी आर्विल्ल्या गुजराती गद्याचो शिल्पकार. नडियाद आनी मुंबय हांगा शिक्षण पुराय करतकच मणिलाल भावनगर हांगाचे शामळदास कॉलेजींत संस्कृताचो प्राध्यापक जालो.

गुजराती आनी इंग्लीश भाशेंतूय ताणें खूब लिखाण केलें. ताच्या इंग्लीश लिखाणाक भारतांत तशेंच युरोप, अमेरिका ह्या देशांनीय खूब नामना मेळ्ळी. ताणें विंगड विंगड नेमाळयांनी धर्म, तत्त्वगिन्यान, साहित्य ह्या विशयांचेर जे ग्रंथ बरयले, ते 'सुदर्शन गद्यावली' त एकठांय केल्यात. मणिलाल हाणें विंगड विंगड वाङमय प्रकार हाताळ्ळे तरी गुजराती गद्याचो एक चिंतनशील शिल्पकार म्हूण ताची नामना आसा.

कान्ता (१८८२), प्राणविनिमय (१८८८), सिध्दांतसार (१८८९), बाल विकास (१८९३), आत्मनिमज्जन (१८९५), प्रेमजीवन (१८९७), गुलाबसिंह (१८९७), 'सुदर्शन गद्यावलि' (१९०९) हे ताचे कांय म्हत्वाचे ग्रंथ आसात. इंग्लिशींत ताणें बरयल्ले मुखेल ग्रंथ राजयोग (१८८५), मोनिझम ऑर अद्वैतिझम (१८८९), द अद्वैत फिलॉसॉफी ऑफ शंकर (१८९१) हे आसात. 'कांता' ह्या आपल्या संगीत नाटकांत ताणें संस्कृत आनी शेक्सपिअरच्या नाट्यतंत्राचो आनी शैलीचो बरो मेळ सादला. ह्या नाटकांतल्या पदांनी शृंगार, वीर, करूण, भिरांकूळ ह्या रसांचो नियाळ घेतला. 'मुंबय गुजराती नाटक कंपनी' न हें नाटक 'कुलीन कांता' ह्या नांवान १८८९ वर्सा, मुंबय हांगा पयलीं रंगमाचयेर हाडलें आनी ताका लोकांची खूब बरी दाद मेळ्ळी. गुजराती साहित्यांतले रंगमाचयेच्या सुरवातीच्या काळांतलें हें एक बरें नाटक म्हूण नामना आसा. १८९७ वर्सा ताणें 'मुंबय गुजराती नाटक कंपनी' चे विनवणे वयल्यान 'नृसिंहावतार' हें दुसरें नाटक बरयलें. पूण संस्कृत पौराणिक नाटकांचे धर्तेचेर बरयल्लें हें नाटक मणिलाल हाच्या मरणा उपरांत म्हळयार १८९९ वर्सा रंगमाचयेर आयलें. 'प्राणविनिमय' हो ताचो योगशास्त्रावयलो ग्रंथ आसून तातूंत ताणें चिद्वादाचें व्हडपण सांगलां. 'सिध्दांतसार' हातूंत ताणें भारतीय दार्शनिक विचारांचे उदरगतीचो नियाळ करून तातूंत पुर्विल्लो आर्यधर्म होच खरो विश्वधर्म जावपाचे योग्यतायेचो आसा, अशें म्हळां. शाळेंतल्या चलयांखातीर धर्म आनी सदाचार ह्या विशयांचेर ताणें बरयल्ल्या निबंदांचो 'बालविलास' (१८९३) हो झेलो आसा.

मणिलाल हो एक कुशळ संपादक आशिल्लो. १८८५ वर्सा ताणें 'प्रियवंदा' हें म्हयनाळें सुरू केलें. तातूंत चडकरून बायलांविशीं लिखाण

उजवाडा येतालें. उपरांत ताणें 'सुदर्शन' सुरू केलें. १८९०-९८ मेरेन तो सुदर्शनाचो संपादक आशिल्लो. ह्या म्हयनाळ्यांतल्यान ताणें धर्म, समाज, अर्थशास्त्र, राजकारण, समाजसुदारणा, साहित्य, संगीत, शिक्षण ह्या विशयांचेर लेख बरयले.

'आत्मनिमज्जन' आनी 'प्रेमजीवन' हे ताचे काव्यांझेले आसात. ह्या काव्यांनी प्रेम हो मुखेल विशय आसून, तात्त्विक अद्वैतवादी नदर ताच्या ह्या प्रेमाच्या कवितांतल्यान उक्ती जाता.

फार्सी-सूफी कवींचे धर्तेचेर ताणें गुजराती गझल लेगीत बरयल्यात. मणिलालची तात्त्विक अद्वैतवादी नदर आनी सूफी काव्याचो आपरोस हांचो सोबीत मेळ ताच्या गझलींनी दिसता. गुजरातींतली ही ताची गझल-रचणूक खाशेली आनी मुळावी अशी म्हत्वाची मानतात.

मणिलाल हाणें कांय ग्रंथांचे अणकार केल्यात. 'गुलाबसिंह' हें बुल्वर लिटन हाच्या 'झेनोनी' (१८४२) चो गुजराती अणकार आसा. 'झेनोनी' ह्या ग्रंथांतल्या गूढवादाक लागून मणिलालाक ताचो गुजराती अणकार करपाची ऊर्बा मेळ्ळी. 'हनुमन्नाटक', 'चतुःसूत्री', 'वृत्तिप्रभाकर' ह्या ग्रंथांचेय ताणें गुजरातींत अणकार केल्यात. 'मालतीमाधव' (१८८०)' 'उत्तररामचरित' (१८८१) हे ताणें संस्कृत नाटकांचे गुजराती भाशेंत केल्ले उत्कृश्ट अणकार आसात. इंग्लीश लेखक सॅम्युएल स्माइल्स हाचे 'कॅरॅक्टर' (१८७१) हे कृतीचो ताणें 'चारित्र' (१८९४) नांवान गुजरातींत अणकार केलो.

समाजीक स्थितीविशीं खोलायेन चिंतन करून, बायलांविशींच उदार दृश्टिकोन दवरून ताणें 'नारीप्रतिष्ठा' (१८८४) हो ग्रंथ बरयलो.

मणिलालान आपली खाजगी जीण, आपले दीसपटयेंत उक्तेपणान बरोवन दवरील्ली. धीरूभाई ठाकर हाणें ताची ही दीसपटी १९७९ वर्सा संपादून 'मणिलाल नभुभाई द्विवेदीनुं आत्मवृतान्त' ह्या नांवान उजवाडायली. तशेंच ताणें मणिलालचेर 'मणिलाल नभुभाईः साहित्यसाधना' आनी 'मणिलाल नभुभाईः जीवनरंग' हे दोन गुजराती ग्रंथ आनी साहित्य अकादेमीखातीर 'मेकर्स ऑफ इंडियन लिटरेचर' माळेंत १९८३ वर्सा इंग्लिशींतल्यान 'मणिलाल द्विवेदी' हो ग्रंथ बरयलो. अंबालाल बालकृष्ण पुराणी हाणेंय 'मणिलाल नभुभाई द्विवेदीनुं जीवनचरित्र' (१९५१) हो ग्रंथ बरयलो.

पिरायेच्या फकत ४०व्या वर्सा ताका मरण आयलें. पूण ह्या चाळीस वर्सांच्या अल्पायुश्यांत ताणें गुजराती साहित्याची विंगड विंगड तरांनी सेवा करून गुजराती साहित्यांत आपलें नांव अजरंवर दवरलें.

- कों. वि. सं. मं.

**मतदान :** राजकीय आनी तत्सम (समाजीक, अर्थीक, धर्मीक) संस्थांतल्या पदाधिकाऱ्यांचे निवडीचो संबंदितांक लाबिल्लो मूलभूत हक्क. ह्या हक्कावरवीं मतदाराचें मत प्रगट जाता. लोकशाय वेवस्थेंत सगळ्यांचें वा चडांत चडांचें मत प्रगट जावचें अशी अपेक्षा आशिल्ल्यान दर एका लायक मनशान मत दिवपाचो आपलो हक्क शाबीत करचो हे भावनेंतल्यान मत ह्या उतराक दान ह्या उतराची जोड दिवन मताच्या हक्काक दानाचें म्हत्व प्राप्त करून दिवप जालां. दान ह्या उतराची जोड दिल्ल्यान थंय आपसुकीच पवित्र कर्तव्याची भावना निगडीत जाता. आपलें मत मांडटना आपणाकडल्यान वा हेरांकडल्यान फटींगपणा येवंक जायना ही दानाफाटली अपेक्षा आसता.

लोकशाय वेवस्थेंतलें प्रशासन हें लोकांनी लोकांखातीर चलयल्लें प्रशासन आसलें तरी सगळ्याचे सगळे लोक प्रत्यक्षांत प्रशासनांत वांटो घेवंक शकनात. हाचेर उपाय म्हणून लोकांनी वेंचून दिल्ले लोकप्रतिनिधी लोकांचे वतीन प्रशासन चलयतात. परतून हांगाय लोकमताक परिपक्वतेचो आदार मेळचो म्हूण सज्ञान तशेंच शाण्या मनशांकूच मतदानाचो हक्क दिवप जाता. रशिया, तुर्कस्तान, अर्जेंटिना, भारत ह्या देशांनी अठरा वर्सां, तर जर्मन आनी स्वित्झर्लंड हांगा वीस वर्सां; इंग्लंड, फ्रान्स, इटली, अमेरिकेंत एकवीस वर्सां; नॉर्वेंत तेवीस वर्सां; फिनलँडांत चोवीस वर्सां तर स्पेन, जपान, डेन्मार्क आनी हॉलंड हांगा पंचवीस वर्सा ही मतदानाखातीर पिरयेची अट दवरील्ली आसा (सुरवेक भारतांत २१वर्सां ही पिरायेची मर्यादा आसली). हाकाच प्रौढ मताधिकार अशें म्हण्टात. पिशे, अपराधी आनी कायद्यान अपात्र थरयल्ल्या हेर दोशी लोकांक, परदेशी नागरिकांक मतदानाचो हक्क आसना.

आयज जरी पात्र प्रौढांक सरसकट मतदानाचो अधिकार मेळिल्लो आसलो तरी सुरवेक मतदानाचो अधिकार समाजांतल्या अवघ्याच घटकांतल्या नागरिकांक आशिल्लो. १९व्या शेंकड्याचे अखेरमेरेन, भोवतेककडे जमीनदार, करदाते, सुशिक्षित, पदाधिकारी, अमीर-उमराव ह्या सारकिल्ल्या समजांतल्या वयल्या थरावयल्या नागरिकांकूच मतदानाचो हक्क आशिल्लो. २०व्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत मतदानाचो हक्क सार्वत्रिक जालो. २० व्या शेंकड्याचीं २५ वर्सां सोंपल्या उपरांतूच बायलांक मतदानाचो हक्क प्राप्त जालो. वंशीक भेद करून निग्रो लोकांक मताचो अधिकार न्हयकारपाचो विचार अमेरीकेसारक्या प्रगत देशांत आनी दक्षिण आफ्रिकेसारक्या गोऱ्या लोकांचे हुकूमशायेंत चल्लो. बायलांक तशेंच काळ्या लोकांक मताचो अधिकार मेळचो म्हूण खर अशी चळवळ करची पडली. इंग्लंडांत १९२८त, अमेरिकेंत १९२०त, नॉर्वेंत १९१२ त, बोल्जियमांत १९४८ त, जर्मनीतं १९१८ त, रशियांत १९२४, त फ्रांसांत १९४५, त इटलींत १९४६, त जपानांत १९४६त, चीनांत १९४७त, स्वित्झर्लंडात १९७१ त, बायलांक मतदानाचो हक्क मेळ्ळो. भारतांत मात स्वातंत्र्यप्राप्ती वांगडाच आयिल्ले नवे राज्य-घटनेनुसार, (१९५०) दादल्यां वांगडाच बायलांकूय मतदानाचो हक्क मेळ्ळो.

**भारतांतल्या मतदानाचो इतिहास** : आदल्या काळांत लोकांचो राज्यकारभारांत कितलो मेरेन सहभाग आसलो हें निश्चितपणान सांगप कठीणूच आसा. कल्याणकारी राजवटींत लेगीत सरसकट आनी सादारण मनशांचो प्रत्यक्षांतलो सहभाग उणोच आसलो म्हणूंक जाय. ब्रिटिशांच्या आगमनापयलींचो काळ हो राजेशाहीचो आनी पर्यायान एकाधिकारशाहीचो आशिल्ल्यान लोकांची राज्यकारभारांतल्या अधिकृत सहभागाची अपेक्षा तशी उणीच आशिल्ली. ब्रिटिशांनी लेगीत सुरवेक भारतीयांक राजकारभारांत सहभाग करून घेवपाची तयारी दाखयली ना. १८८५ त स्थापन जाल्ली अखिल भारतीय काँग्रेस हे भारताचे मध्यवर्ती राजकीय संस्थेन भारतीय जनतेच्या सहभागाची मागणी मुखार हाडली. १८९२ त केल्ल्या कायद्यानुसार गव्हर्नर जनरल लेन्स डाव्न हाणें कायदे-कौन्सिलाचेर भारतीय समाजांतल्या वेगवेगळ्या घटकांक प्रतिनिधीत्व दिवपाची तयारी दाखयली. हांगाय मतदारांक फकत शिफारस करपी ही भुमिका दिवन निवडीचे अधिकार सरकाराकडेन दवरले. तेचप्रमाण हें मतदान व्यापक नासून तें राखीव रुपांतलें आसलें. १९०९ त केल्ल्या कायद्याप्रमाण सादारण मतदारसंघ, वर्गी मतदारसंघ आनी विशेश मतदारसंघ अशी विभागणी करून मोजक्याच लोकांक तोय विशम प्रमाणांत मतदानाचो अधिकार दिवप जालें. फुडें १९१९ त केल्ल्या कायद्यांत मतदानाच्या हक्काची व्याप्ती वाडली आसली तरी ती सुमार २% लोकांपुरतीच मर्यादीत उरली. १९३५च्या कायद्यांत आनीक सदळसाण येवन मजूर आनी बायलांक कांय प्रमाणांत मताधिकार दिवप आसलो तरी शिक्षणीक पात्रता, मालमत्ताधारणा, पदाधिकार हे मतदान अधिकाराचे मुखेल कस उरले.

सद्याची मतदानाची पद्दत ही मुखेलपणान मतपत्रिके मार्फत जावपी गुप्तमतदानाची आसली तरी मतदानाच्या अस्तित्वापसून उक्तें मतदान आनी गुप्तमतदान ह्या दोनूय पद्दतींचो वापर जायत आसा. उक्त्या मतदानांत वेगवेगळयो वस्तू दाखोवन, हात वयर करून वा उबो रावून वा आवाजी संकेतान मत उक्तें करप जाता. उक्त्या मतदानांत मत कोणाक दिलें हें समजता जाल्ल्यान मतदाराचेर दबाव येवपाची शक्यता आसता. तेखातीर भोवतेककडेन गुप्तमतदानाची पद्दत सर्रासपणान वापरांत आयली. गुप्तमतदान पद्दतींत मतपत्रिकेंत उमेदवारांच्या नांवांची, तांकां मेळिल्ल्या चिन्नांची वळेरी आसता. ज्या उमेदवाराची मतदार निवड करता ताच्या नांवा-चिन्नां मुखार फुली मारप, क्रमांक घालप, निवडिल्ल्या उमेदवाराचें नांव सोडून, हेर नांवां खोडप अशो वेगवेगळयो पद्दती वापरप जातात. उमेदवाराच्या नांवाच्यो चिटयो घालपाची गुप्तमतदानाची सोंपी अशी पद्दत आसा.

आधुनिक मतदानाचे प्रक्रियेंत सद्या 'प्रेस बटन' आशिल्ल्या यंत्राचो उपेग करतात. असो उपेग गोंयांत पयलेच फावट १९९९त जाल्ले विधानसभेचे वेंचणुकेंत केलो. भारतांत कांय राज्यांनी ह्या यंत्राचो प्रयोग केला तातूंत आस्पाव जाता.

निपक्षपाती तशेंच दबावाविरयत मतदान जावचें अशी मतदानाकडच्यान अपेक्षा आसता. निर्दोश मतदान जावन लोकमताचो निश्चित असो कौल मतदानावतीन उक्तो जावचो म्हूण मतदान पद्दतींत आनी मतदानाचे एकंदर यंत्रणेंत बदल जायत आसात. तरी पूण मुक्त आनी निर्भय मतदान जाता अशें म्हणूंक जावचेंना. बरेचशें मतदान हें धर्म-जात-प्रादेशिकता-भाशा-व्यक्तिपुजा सारकिल्या घटकांक धरून जाता. कांयकडे दडपशाय, लांच सारकिल्या मार्गांचो वापर जाता. तेखातीर मतदानाचो निकाल हो पुरायपणान लोकमताचो कौल जायना अशें जाणकारांचें मत आसा. तेभायर मतदानाचो निकाल म्हणजे सार्वमत तर नासताच पूण तें एकंदर लोक संख्येच्या प्रमाणांतलें भोवमतूय आसना. मतदानाच्या निकालाप्रमाण चडांत चड मतां मेळिल्लो उमेदवार वेंचून येता आनी प्रशासनांत, संबंदीत मतदार संघाचें प्रतिनिधीत्व करता आसलो, तरी खूब फावट ताका मेळिल्लीं मतां हीं वेंचून येवंक नाशिल्ल्या हेर उमेदवारांच्या एकत्रीत मतांपरस उणीं आसतात.

भारताच्या स्वातंत्र्या उपरांत वर्ण, जात. धर्म, भाशा, लिंग, धन ह्या सारकिल्या खंयच्याच बाबतींत भेद करीनासतना प्रौढ मताधिकार दिवप जाले. गोंयातं, पुर्तुगेजांच्या काळांत वंश, वर्ण, शिक्षण, आस्पत अशा घटकांचेर आदारीत मतदानाचो अधिकार आसलो. गोंयचे मुक्तीउप्रांत (१९६१), भारतीय संविधानांत आस्पाविल्ल्या, सार्वत्रीक प्रौढ मतदानाचो अधिकार गोंयकारांक प्राप्त जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## मतिराम : (जल्मः सु. १६०३; मरण : सु. १६९९).

ब्रज भाशेंत रचणूक करपी रीतिकाळांतलो एक नामनेचो हिंदी कवी. ताच्या बापायचें नांव रत्नाकर आनी आडनांव त्रिपाठी. हो कश्यपगोत्री कान्यकुब्ज ब्राह्मण आसून, कानपूर जिल्ह्यांतल्या तिकवाँपुर (त्रिविक्रमपूर) हांगा रावतालो. पूण कांय अभ्यासकांच्या मतान तो वत्सगोत्री आशिल्लो. नामनेचो आचार्य आनी कवी चिंतामणी त्रिपाठी तशेंच कवी भूषण हांचो मतिराम हो भाव.

१६२१ वर्सा ताणें मोगल सम्राट जहांगीर हाचे आज्ञेवयल्यान 'फूलमंजरी' हो पयलो काव्यग्रंथ आग्रा हांगा बरयलो. हातुंतल्या दर एक दोह्यांत एका फुलाचें नांव आनी श्लेश अर्थान नायिकेचेंय नांव घालां.

मतिरामाची चडशी जीण, बुंदी हांगाच्या हाडा वंशांतल्या राजाच्या दरबारांत गेली. 'ललितलाम' हो अलंकार -शास्त्रावयलो आपलो ग्रंथ ताणें बुंदी दरबारांत दिवान भावसिंह हाच्या आलाशिऱ्याक आसतना बरयलो. तातूंत ताणें राव सूरजन, राव राजा भोज, रतनसिंह, छत्रसाल,

भावसिंह ह्या राजांच्या गुणांचें वर्णन केलां. ह्या ग्रंथाचो रचनाकाळ सु. १६६३ इतलो मानतात. ताणें बरयल्लो सगळयांत म्हत्वाचो ग्रंथ 'रसराज' हो आसा. ह्या ग्रंथांत शृंगाररस आनी नायक-नायिकाभेद हांचें वर्णन आसा. बिहारीच्या सतसईभशेन रीतिकाळांतल्या ग्रंथांभितर मतिरामाचो 'रसराज' हो म्हत्वाचो ग्रंथ आसा. खंयच्याच आश्रयदात्याचो आदार घेना आसतना बरयल्लो हो ताचो स्वतंत्र ग्रंथ. ह्या ग्रंथाचो रचनाकाळ १६३३-४३ आसुंये अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. ह्या ग्रंथांतले नायक-नायिका चतुर, विदग्ध, सुसंस्कृत आनी भावनाशील आसात. तातूंत ताची प्रतिभा, कल्पकता, अलंकारकौशल्य, छंदावयलें प्रभुत्व हांचो प्रत्यय येता. बिहारी-सतसईचे उर्बेन ताणें मतिराम सतसई ही काव्यकृती १६८३ वर्साच्या अदमासाक बरयली. भोगनाथ राजाचे आज्ञेवयल्यान ताणें सतसईचें सकंलन केलें. सतसईची भास रसाळ आनी गोड अशी ब्रज आसा. तातूंत मुखेलपणान शृंगार आनी नीती हे विशय आसात. प्रेम, नायिकाभेद, रूपसौंदर्य, विरह हांचेर लालित्यपूर्ण आनी कल्पकतापूर्ण अशे दोहे तातूंत आसात.

मतिरामाचे हे चारूय ग्रंथ म्हत्वाचे आसले तरी, 'रसराज' आनी 'ललितलाम' ह्या ताच्या ग्रंथांक खूब नामना मेळ्ळी. रीतिकाळांतल्या कवींभितर एक श्रेश्ठ कवी म्हूण मतिरामाक म्हत्वाची सुवात आसा.

ह्या महाकवी मतिरामा बगर 'वृतकौमुदी'ची रचणूक करपी आनीक एक मतिराम कवी आसा अशें भगीरथ मित्र हाणें म्हळां. ह्या मतिरामाच्या बापायचें नांव विश्वनाथ आसून तो वत्सगोत्रीय त्रिपाठी ब्राह्मण आशिल्लो. तिकवाँपुरालागसार फतेहपुर जिल्ह्यांतल्या बनपुर ह्या गांवांत तो रावतालो. ताचे 'अलंकार पंचाशिका', 'साहित्यसार', 'लक्ष्मण-शृंगार' आनी 'छंदसार' वा 'वृत्तकौमुदी' हे ग्रंथ आसात. वृत्तकौमुदीचो रचनाकाळ सु. १७०१ हो मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मत्स्य अवतार :** विष्णुच्या धा अवतारांतलो पयलो अवतार. हाची वैदिक कथा शतपथ ब्राह्मणांत दिल्या (१.८,१,१) ती अशी - एकदां मनू न्हंयेचे देगेर अवनेजन (प्रक्षालन) करता आसतना, ताच्या हातांत एक ल्हान नुस्तें आयलें. ताणें मनूक म्हळें - "तूं म्हाका पोस. हांव तुजें कल्याण करतलो. कांय वर्सांनी संवसार बुडटी येवपाची आसा. तातूंतल्यान हांव तुका वाटायतां. तेखातीर तूं एक व्हडें तयार कर. तातूंत सगळया अन्नधान्यांचीं बियां दवरून म्हजें ध्यान करीत राव आनी बुडटेवेळार व्हड्यांत चडून बस. मागीर मनून नुस्त्याक पयलीं बुडकुल्यांत सोडलें. थंय तें वाडटकच तातूंत जायना जालें, तेन्ना ताणें तें तळयांत सोडलें. तळेंय ताका उणें पडूंक लागलें. तेन्ना मनून ताका दर्यांत सोडलें. थंय ताणें विशाल रूप धारण केलें.

उपरांत नुस्त्याचे सांगणेप्रमाण मनून सगळया अन्नधान्यांचें बीं व्हड्यांत सुरक्षित दवरलें. थारायल्ले प्रमाण बुडटी आयली. त्यावेळार नुस्तें मनूच्या व्हड्याकडेन आयलें. मनून तें व्हडें पास घालून नुस्त्याक बांदलें. नुस्त्यान तें उत्तरगिरीचेर व्हेलें आनी थंय एका रुखाक बांदून दवरलें. उदक जशें जशें देवंक लागलें तशें तशें व्हडें सकयल देवंक लागलें. संवसार बुडटे उपरांत मनून परत यज्ञ केलो आनी सुरक्षित दवरिल्ल्या बियांपसून सगळे पदार्थ उत्पन्न केले. हीच कथा मत्स्यपुराणांत आनीकय विस्तारान आयल्या.

भागवताच्या आठव्या स्कंधांतल्या चोविसाव्या अध्यायांतूय मत्स्यावताराची कथा सांगल्या. ती मत्स्य पुराणांतले कथेपरस मात्शी वेगळी आसा. शतपथ ब्राह्मण आनी तैत्तिरीय संहिता ह्या पुर्विल्ल्या ग्रंथांत प्रजापतीन सृश्टीची उदरगत आनी सुखशांती हांचे खातीर वेगवेगळया वेळार मत्स्य, कुर्म आनी वराह हे अवतार घेतले, अशें सांगलां. मत्स्य अवताराचे तिथींविशीं वेगवेगळया पुराणांत वेगवेगळीं मतां दिसून येतात. मत्स्य पुराणांत चैत्र शु. तृतीया आनी वराह पुराणांत आषाढ शु. एकादस ह्या दिसा मत्स्यावतार जालो अशें सांगलां. विष्णुचो महिमा वर्णन करपी विष्णु पुराणांत (इ.स. चवथें शतमान) मत्स्यावताराची कथा येवंक ना. उपरांतच्या काळांत वासुदेव, विष्णु वा नारायण ह्या देवांच्या भक्तांनी मूळ प्रजापतीचे हे अवतार आपल्या देवाचे अशें थारायलें. मत्स्यावतारांत देवान हयग्रीवापसून वेदांची राखण आनी बुडटे वेळार विश्वबीजाची राखण अशीं दोन कर्तुपां केलीं. स्कंद पुराणांत हयग्रीवाचे सुवातेर शंखासुराचें नांव आसा.

मत्स्यावताराची प्रतिमा दोन तरांनी केल्ली दिसून येता. एक प्रतिमा फकत नुस्त्याच्या रुपाची आसता. तर दुसरी सकयलो भाग प्राणीरुपांत आनी वयलो भाग मनशाच्या रुपांत अशी आसता. मनीस रुपांत चार हात आनी तातूंत विष्णुचीं आयुधां आसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मत्स्य पुराण :** अठरा महापुराणांतलें एक पुराण. मत्स्य, नारद, विष्णु भागवत ह्या पुराणांनी हेर पुराणांच्यो यादयो आनी श्लोकांची संख्या दिल्या, तातूंत मत्स्य पुराणाचो सोळावो क्रम लागता. ह्या पुराणाची श्लोकसंख्या चवदा-पंदरा हजार आसा. भगवान विष्णुन वैवस्वत मनूक नुस्त्याच्या रुपान दर्शन दिलें आनी हें पुराण सांगलें, ही कथा पयल्या अध्यायांत दिल्या ती अशी आसा-

एकदां मनू आपल्या आश्रमांत पितरांचें तर्पण करतना, एक इल्लेंशें नुस्तें ताच्या हातांत आयलें. मनूक ताची काकळूट आयली. ताणें त्या नुस्त्याक आपल्या कमंडलूंत दवरलें. थंय तें नुस्तें एके रातीभितर सोळा आंगळां वाडलें आनी ताणें आपली राखण करपाक राजाक सांगलें.

राजान ताका रांजणांत दवरलें. थंयलेगीत त्या नुस्त्याचो आकार वाडलो. उपरांत बांयत, तळयांत आनी थंयसावन दर्यांत उडयतकच तें नुस्तें वाडतूच गेलें. तेन्ना हें सादें नुस्तें न्हय हें जाणून मनुन त्या नुस्त्याक नमस्कार केलो आनी 'तूं कोण म्हूण विचारलें. 'तेन्ना नुस्त्यान ताका आपूण विष्णु आसून तुका भविश्याची सुचवणी करपाक आयिल्ल्याचें सांगलें. तशेंच थोड्याच वेळांत सगळयाक बुट्टी येवन सगळी सृश्ट काबार जातली, तेखातीर नर-मादींच्यो जोडयो घेवन एका व्हड्यांत बस आनी तें व्हडें आपले शेपडेक बांद अशेंय सांगलें. उपरांत मनुन ताचे सांगणेप्रमाण केलें. हुंवार आयिल्ल्या त्या दर्यांत भोंवतना नुस्त्याच्या रुपांत आशिल्ल्या विष्णुन ताका जें पुराण सांगलें, ताका मत्स्य पुराण अशें म्हण्टात. हे विशीं मत्स्य पुराणांत सांगलां तें अशें -

*श्रुतीनां यत्र कल्पादौ प्रवृत्यर्थं जनार्दनः।*

*मत्स्यरुपेण मनवे नरसिंहस्य वर्णनम् ।।*

*अधिकृत्याब्रवीत् सप्तकल्पवृत्तं मुनीश्वराः ।*

*तन्मात्स्यमिति जानीध्वं सहस्राणि चतुर्दश ।।*

**अर्थ :** ज्या पुराणांत कल्पाचे सुरवातेक प्रवृत्तीखातीर मत्स्यरुपी जनार्दनान मनुक नरसिंहवर्णन करपाच्या वेळार सात कल्पांचो विशय वर्णन करून सांगला, त्या १४,००० श्लोकांचें मत्स्य पुराण, अशें हे श्रेश्ठ मुनींनो, तुमीं जाणा जायात.

देवी भागवतांत मात ह्या पुराणाची श्लोकसंख्या १९,००० सांगल्या. ह्या पुराणाचे २९१ अध्याय आसात. हातूंत स्कंध, कांड, पर्व अशे वांटे नात. ह्या पुराणाचे सुरवेक मन्वंतरांचें सामान्य वर्णन करतकच पितृवंश चड विस्तारान सांगल्यात. तेराव्या अध्यायांत वैराज, चवदाव्यांत अग्निष्वात्त आनी पंदराव्या अध्यायांत बर्हिषद ह्या पितरांचे वंश दिल्यात. १६ ते २३ मेरेन श्राध्दकल्पाची विस्कटावणी केल्या. फुडें ययातीच्या चरित्राक धरून सोमवंशाचें खोलायेन वर्णन आसा. ५५ ते १०२ ह्या अध्यायांनी व्रतांची म्हायती आसा. ताच्या फुडल्या १० अध्यायांनी प्रयागमाहात्म्य सांगलां. पांच अध्यायांनी काशीचें माहात्म्य सांगलां. ताचेफुडल्या आठ अध्यायांनी नर्मदा माहात्म्याचें वर्णन आयलां. ह्या पुराणाच्या ११७, ११८ आनी १७६ ह्या अध्यायांनी हिमालयाचें सोबीत वर्णन आसा. 'कुमारसंभव' बरयतना कालिदासान लेगीत ह्या पुराणांतल्या वर्णनांचो आनी कथांचो आदार घेतलो आसूं येता अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा.

मनु आनी याज्ञवल्क्य हांच्या स्मृतींतले कांय श्लोक ह्या पुराणांत घेतल्यात. अध्याय १८० त भक्तीचो आनी कर्म योगाचें व्हडपण सांगलां. आत्मज्ञानी पुरुषान कर्माक सोडून जायना हो विचार लोकांक सांगपाचो यत्न केला. हरि-हरांच्या अवतारांचें वर्णन समान भावान केलां. कितलेशाच वैदिक आनी संस्कृत ग्रंथांचो आनी ग्रंथकारांचो उल्लेख ह्या मत्स्य पुराणांत मेळटा. हातूंत कांय धर्मशास्त्रीय विशय लेगीत आस्पावल्यात.

महाभारतांतूय ह्या पुराणाचो उल्लेख आयला. मत्स्य पुराणांतले २५ ते ४२ ह्या अध्यायांतले ५०६ श्लोक आदिपर्वांतल्या ययातीच्या उपाख्यानांत तशाक तशे आयल्यात.

मत्स्य पुराण खंय रचलें ह्या ताच्या उत्पत्तीथळाविशीं खूब मतभेद आसात. तें दक्षिण भारतांत रचलें अशें दीक्षितार हाचें मत आसा. पार्गिटर आंध्र प्रदेशाचें नांव सांगता. तें नासिक वाठारांत बरयलें अशें हाजरा हाचें मत आसा. पूण कंटावाला हाच्या मताप्रमाण हें मत्स्य पुराण नर्मदा न्हंयेचे देगेर रचलें आसुंये. कारण ह्या पुराणांत नर्मदेची खूब तोखणाय गायल्या. मत्स्य पुराणाचो लेखक नर्मदा देगेवयल्या ल्हान ल्हान सुवातींचीय वळख करून दिता. नर्मदा आनी कावेरी हांच्या संगमाचें वर्णन पुराय एका अध्यायांत केलां.

- कों. वि. सं. मं.

## मत्स्योद्योग : (पळेयात नुस्तें).

## मथा, प्रभाकर नारायण सिनाय : (जल्मः ६ जानेवारी १९२६, ताळगांव, तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. १९४६त तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटकेझुजारी मोहन नायर हाच्या फुडारपणाखाल तो सुटके चळवळीचो वावर करतालो. २ जुलय १९५४ ह्या दिसा चांदर हांगा जाल्ल्या पोलीस हल्ल्यांत तो खूब जखमी जालो. जखमी जाल्ल्यान ताचें ऑपरेशन करून ताच्या शरिरांतल्यो आठ गुळयो भायर काडल्यो. ताका पांच वर्सां आनी तीन म्हयने बंदखणींत दवरिल्लो. बंदखणींत ताका पोलिसांच्या त्रासांक तोंड दिवचें पडलें. २७ ऑगस्ट १९५८ ह्या दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारन ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## मथुरा : भारतांतलें एक नामनेचें तीर्थक्षेत्र आनी उत्तर प्रदेश राज्यातल्या जिल्ह्याचें ठिकाण. विस्तारः २७°२८' उत्तर आनी ७७°४१' उदेंत. हें शार आग्र्याचे वायव्येक सुमार ५८किमी. चेर यमुना न्हंयेचे देगेर वसलां. दिल्ली-मुंबय मध्यरेल्वे वयलें हें मुखेल प्रस्थानक आसून, मुंबय-आग्रा राश्ट्रीय महामार्गावयले दिल्लीचे दक्षिणेक सुमार १४५किमी. वयलें तें एक मध्यवर्ती केंद्र आसा.

पुर्विल्ल्या सप्तपुरांतलें हें एक जावन आसा. आदल्या काळांत सावन आयजमेरेन हें नगर भारतीय संस्कृतायेचें मुखेल केंद्र जालां.

धर्म, कला, भाशा, साहित्य आदी तरेकवार मळांचेर मथुरेंत बरीच उदरगत जाल्या. मथुरेच्या भोंवतणच्या वाठाराक 'वज्रमंडल' म्हण्टात. इ. स. आदीं ह्या वाठाराक शूरसेन जनपद ह्या नांवान वळखताले. पुर्विल्ल्या साहित्यांत हाका मधुरा, मधुपूर, मधुपुरी, मधुपिका, मधुपट्टना अशीं वेगवेगळीं नांवां मेळटात. मधु नांवाच्या दैत्यावयल्यान ह्या शाराक मधुरा हें नांव पडलें, अशेंय म्हण्टात. हें नगर मधून वसयलां म्हूण हाका मधुपुरी अशेंय म्हण्टात. मथुरेच्या लागसारूच एक रान आसा, जाका मधुबन म्हण्टाले. सद्या मथुरेचे नैर्ऋत्येक ५ किमी. अंतराचेर आशिल्लो माहोली गांव म्हणजेच मधुबन अशें मानतात. हरिवंशांत तशेंच गरूड पुराणांत मथुरा ही एक वैभवशाली नगरी म्हूण म्हायती मेळटा. सद्याची मथुरा आनी महोली हांचेमदीं बऱ्योचशो पुर्विल्ल्यो दोंगुल्ल्यो दिसतात. ह्या दोंगुल्ल्यांनी जायते पुर्विल्ले अवशेश मेळ्ळयात. तांचे वयल्यान ह्या दोंगुल्ल्यांच्या प्रदेशांत आदल्या तेंपार वसती आशिल्ली, अशें कळटा. रामाचो भाव शत्रुघ्न हाणें मधुचो पूत लवण हाचो पराभव करून मथुरा नगरी वसयली. उपरांत ह्या स्थळाचीं जायते फावट परिवर्तनां जालीं अशें म्हण्टात. मगधाकडे वचपी वेपारी मार्ग आनी राजमार्ग पुर्विल्ल्या काळांत मथुरेक एकठांय येताले; देखून इंद्रप्रस्थ, श्रावस्ती, कौशाम्बी, वैशाली आदी नगरांकडेन मथुरेचो वेपारी आनी संस्कृतीक संबंद आशिल्लो.

पुर्विल्ल्या साहित्यांत मथुरेविशीं बरीच म्हायती मेळटा. ग्रीक भोंवडेकार मॅगॅस्थेनीस, चिनी भोंवडेकार फाहियान, यूआनच्वांग तशेंच टॉलेमी, अल् - बीरूनी आदींच्या भोंवडेवर्णनांत मथुरेविशीं उल्लेख मेळटात. पुर्विल्ल्या काळांत मथुरेचेर सोम आनी सूर्य ह्या वंशांनी राज्य केलें. हातूंतल्या यादव (सोम) वंशाची सत्ता खूब तेंप आशिल्ली. ह्या वंशांतल्या श्रीकृष्णान कंसाक मारून लोकांक ताच्या अत्याचारांपसून सोडयले. कंस हो मगधसम्राट जरासंधाचो जांवय. जरासंधान कंसवधाचो सूड घेवपाखातीर १७ वेळां मथुरेचेर घुरी घाली, आनी अठरावे फावट यादवांक मथुरा सोडची पडली. उपरांत हो प्रदेश मौर्य साम्राज्यांत आस्पावलो. मौर्यां उपरांत ह्या वाठाराचेर शुंग वंशाचो शेक चलतालो (इ.स. आदीं १८५-७३). उपरांत मथुरा शक-कुशाणाचे सत्तेखाल गेली (इ.स. आदीं ७३ ते इ. स. २२०). ह्या काळांतले अभिलेख आनी मुद्रा सांपडल्यात. तातूंत रंजुवुल आनी शोंडास आदी क्षत्रपांचीं नांवां मुद्रांचेर मेळटात. शोंडासांच्या शिलालेखांत तांच्या कोशाध्यक्षान मथुरेंत तळें, कूप आदी निर्माण केल्ल्याचें बरयल्लें आसा.

उपरांत मथुरा नागवंशी राजाच्या शेकातळा गेली. फुडें मथुरेचेर गुप्त वंशाचो शेक आयलो (३२१-५५५). ह्या काळांत बौध्द धर्मान हांगा आपलो बरोच जम बसयल्लो, अशें फाहियान ह्या चिनी भोंवडेकाराच्या बरपावयल्यान कळटा. चडशा परदेशी भोंवडेकाराचे बरपावळींत मथुरेचो उल्लेख देवतानगर असो केल्लो दिसून येता. तशेंच वासुदेव कृष्णाची पुजा थंय प्रचलीत आशिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. इ.स. पांचव्या शतमानांत मथुरेचेर हुणांनी घुरी घाली आनी बौध्द स्तूप, देवळां मोडून उडयलीं. उपरांत सातव्या शतमानासावन ते बाराव्या शतमानामेरेन हर्षवर्धन, गुर्जर प्रतीहार आनी गाहडवाल ह्या वंशांनी मथुरेचेर सत्ता गाजयली. इ. स. १०१७ त मथुरेचेर महंमूद गझनीन घुरी घाली आनी थंयच्या चडशा मूर्तींची तशेंच देवळांची नासधूस केली. उपरांत मुहम्मद घोरी हाणें ११९३ त कनौजाचेर घुरी घाली आनी जयचंद हाका हारयलो. तेन्नासावन मथुरा मुसलमानांचे सत्तेखाल गेली. सुलतान सिकंदर लोदी (सुमार १५००), शहा जहान (१६३६), औरंगजेब (१६६९-७०) हांणी कांय हिंदू देवळांचो आनी वास्तूंचो नाश केलो. फुडें १७५७ त परत हें नगर अहमद शाह हाणें लुटलें. फुडें कांय काळ मथुरा मराठ्यांचे सत्तेखाल आशिल्ली (१८०२ मेरेन). ब्रिटीश आनी दुसरो बाजीराव हांचेमदीं जाल्ले १८१८ मदले सालबायचे कबलातीवरवीं मराठ्यांचो मुलूख ब्रिटीश सत्तेखाल वतकच हें शार ब्रिटिशांच्या ताब्यांत गेलें.

मथुरेचेर मौर्य ते ब्रिटीश ह्या काळांत जायत्या राजांनी राज्य केलें. तातूंतल्या शुंग-कुशाण आनी गुप्त ह्या काळांत मथुरेंत ललित कलांची उदरगत जाली. कुशाण काळांत हेर कले वांगडा मूर्तीकलेचीय भरभराट जाली आनी इ.स. सातव्या शतमानामेरेन वैदिक, बौध्द आनी जैन ह्या तीनूय धर्मांची उदरगत जाली.

ब्रिटिशांच्या काळांत अलेक्झांडर कनिंगहॅम हाणें मथुरेचें पुरातत्त्वीय नदरेन पयलें सर्वेक्षण केलें. उपरांत हांगा वेगवेगळ्या विश्वविद्यालयांनी तशेंच भारत सरकाराच्या पुरातत्त्वीय खात्यान जायतीं उत्खननां केलीं. तातूंत मेळिल्ले जायते अवशेश मथुरेच्या पुरातत्त्वीय वस्तु संग्रहालयांत दवरल्यात. कांय अवशेश कर्झन वस्तुसंग्रहालयांत, कांय दिल्लीच्या राश्ट्रीय वस्तुसंग्रहालयांत आनी कांय लखनौच्या वस्तुसंग्रहालयांत दवरल्यात.

हांगा उरिल्ल्या सद्याच्या वास्तूंत पुर्विल्ल्यो खुबूच थोड्यो वास्तू बरे अवस्थेंत आसात. तातूंत कुशाण काळांतले वास्तुशिल्पाचे नमुने चड आसून हांगा स स्तूप आसात. मथुरेंत सांपडिल्ले बौध्द स्तूप विटो आनी फातरांनी बांदिल्ले आसून स्तूपा सकयल चौथरो आसा.

मथुरेंत बौध्द वास्तूशिल्पकामा वांगडाच जैन धर्माकडे संबंदीत मुर्तिकाम मेळटा. हांगाच्या जैन मुर्तींनी तीर्थंकारांच्योय मूर्ती आसात.

हिंदू धर्माकडेन संबंदीत कांय मूर्तीय हांगा आसात. गुप्त काळांत हांगा जायतीं हिंदू देवळां बांदिल्लीं. पूण सद्या हांगा थोड्याच देवळांचे अवशेश दिश्टी पडटात. कत्रा केशवदेव हांगाचें विष्णु मंदिर बरेंच नामनेक पावलां. हांगा ब्रह्मा, विष्णु, शिव, कृष्ण, बलराम, गणेश, कार्तिकेय, पार्वती, महिषासुरमर्दिनी, सरस्वती, सिंहवाहिनी, गंगा, यमुना आदी देव-देवतांच्यो मुर्ती आसात.

हांगाच्या अवशेशांत आनी उत्खननांत कुशाणकाळांतल्या मनशांचे पुतळेय मेळ‌ळ्यात. ह्या पुतळ्यांत वीम कडफिसस, कनिष्क आनी चाष्टन ह्या राजांचे पुतळे मेळ‌ळ्यात. मथुरेच्या कलासंप्रदायांतल्यो जायत्यो मातयेच्यो मूर्ती उत्खननांत मेळ‌ळ्यात. तातूंतल्यो कांय मूर्ती पळोवपासारक्यो आसात, त्यो अशो- पंखो घेतिल्ली बायल, रथयात्रेक वचपी राजकुंवर, मळबांत भ्रमर करपी किन्नर - किन्नरी, भुरग्याक मांडयेर घेवन बाशिल्ली आवय.

भारतीय कला इतिहासांत मथुरा कला संप्रदायाक शिल्पशैलीचे नदरेन खूब म्हत्व आसा. मथुरा ही शैव, वैश्णव तशेंच बौध्द, जैन आदी वेगवेगळ्या धर्म संप्रदायांची भूंय आशिल्ली आनी हे सगळे संप्रदाय एकाच वेळार सर्वधर्म समभावान थंय नंदताले. गुप्तकाळ खंडाचे सुरवेचे कांय शेंकडे वा कुशाण काळखंड हो मथुरा शिल्पसंप्रदायाचो भांगरा काळ.

आर्विल्लें मथुरा हें पुराय सुखसोयींनी भरिल्लें एक व्हड शार आसा. उत्तर देशांतल्या धान्य वेपारीची व्हड बाजारपेठ हांगा आसून, भोंवतणच्या वाठारांत पिकपी गंव, ज्वारी, कापूर, ऊंस आदी माल विक्री हांगा जाता. हांगा रसायनां आनी कॅलिको छपाईचे व्हड कारखाने आसात. माहोली ह्या उपनगरांत वनस्पती तुपाचे प्रक्रियेचो व्हड वेवसाय आसा. भारत सरकारान हांगा रशियेच्या आदारान तेल शुध्दीकरणाचो व्हड प्रकल्प हातांत घेतला. भारतीय तेल महामंडळाच्या प्रकल्पांतल्या तेल वेवसायांत मथुरा हो पांचवो तेल शुध्दीकरण प्रकल्प आसा.

मथुरा शाराची वाड यमुना न्हंयेचे देगेकडल्यान जाली. ह्या शारांत मोगल काळांत आनी ते उपरांत बांदिल्ल्यो जायत्यो वास्तू आसात. त्या काळांतलो मोगल राज्यपाल अब्द-अल- नबीखान हाणें बांदिल्ली सगळ्यांत पोरनी जुम्मा मशीद (१६६१) आसा. औरंगजेबान जायत्या पुर्विल्ल्या हिंदू आनी बौध्द वास्तूचें मशिदींत रुपांतर केलें. मुसलमान संत मुखद्दमशाय विलायतखाँ हाच्या उगडासाखातीर बांदिल्ली एक मशीद आसा. यमुनेचे उजवेदेगेर राजा भगवानदास हाणें बांदिल्ली चार मजली सती बुरूज (१५७०) आनी राजा मानसिंग हाणें बांदिल्लो 'कंस का किला' ह्यो नामनेच्यो वास्तू आसात. मथुरेंत आशिल्ल्या जायत्या मंदिरांमदीं भैरवनाथ, राम (१६००), राधेश्याम, द्वारकाधीश, गोवर्धननाथ (१८३०), रंगेश्वरनाथ, राजीवाला, बिर्ला आदी देवळांची नामना आसा. हातूंतलीं चडशीं देवळां तांबड्या वालुकाश्मांत बांदिल्लीं आसात. हांगा शिखांचीं तीन गुरूद्वारां आनी जैन मंदिरांय आसात. हांगा अखिल भारतीय दिगंबर जैन संघाची इमारत आसा.

मथुराशैलींतल्यो मूर्ती, अभिलेख, आनी मुद्रा हांचेखातीर डॅम्पिअर पार्क हांगा आशिल्ल्या पुरातत्वीय वस्तूसंग्रहालयाची नामना आसा. हाचेभायर जवाहरबाग, गांधी पार्क, लेडीज पार्क, भगतसिंग पार्क आदी उद्यानां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मदर तेरेझा :** (जल्म : २७ ऑगस्ट १९१०, स्कॉपये, युगोस्लाव्हिया; मरण : ५ सप्टेंबर १९९७, कलकत्ता).

एक म्हान मानवतावादी समाजसेविका. तिचें पुराय नांव ॲग्निस गाँकशा वाजक्शियू. तिच्या बापायचें नांव निकोलस आनी आवयचें नांव रोझा आशिल्लें. तिच्या भावाचें नांव लाझरस आनी भयणीचें नांव अगास्था. मदर तेरेझाचो जल्म रोमन कॅथलिक आल्बेनियन कुटुंबांत जालो. तेरेझाचो बापूय शेतकामावांगडा अन्नधान्याचोय जोडधंदो करतालो; पूण मदर तेरेझा णव वर्सांची आसतनाच तिच्या बापायक मरण आयलें. तेन्ना शिवण, भरतकाम, विणकाम करून मदर तेरेझाचे आवयन तांकां ल्हानाचीं व्हड केलीं.



स्कॉपये हांगा सरकारी शाळेंत शिकता आसतना मदर तेरेझा सेवाकार्यांतय वांटो घेताली. पिरायेच्या अठराव्या वर्सा सिस्टर्स ऑफ लॉरेटो ह्या इंग्लीश संघांत तिणें प्रवेश घेतलो. उपरांत एक वर्स डब्लिन (आयर्लंड) हांगा तिणें इंग्लीश भाशेचो अभ्यास केलो आनी जोगीण जावन मिशनरी कार्याक सुरवात केली. ते निमतान तिणें १९२९ वर्सा भारतांत, कलकत्ता हांगा लॉरेटो मिशनच्या सेंट मेरी हायस्कुलांत भूगोल विशयाची अध्यापिका म्हूण नोकरी धरली. स्पॅनिश योगिनी संत तेरेझाच्या नांवान तिचें नामान्तर जातकच मातृवत सेवाधर्माकलागून फुडें ती 'मदर तेरेझा' ह्या नांवान वळखूंक येवपाक लागली. प्रबोधनाच्या कार्यावांगडा गरिबांची सेवा करपाचें तिणें थारायलें. भारतांत येनाफुडें ती बंगाली आनी हिंदी भाशा शिकली. उपरांत पाटणा हांगासल्ल्या मिशनरी हॉस्पिटलांत नर्सीगचो कोर्स केलो. समाजसेविकेचें व्रत आपणायतकच तिणें आपल्या आचार विचारांसयत जेवणाखाणांतूय बदल केलो. उंची कपडे आनी पुश्टीक आहार हांचेबदला सुती धवी साडी आनी शीत-रोटी घेवपाक लागली. तशेंच तिणें भारताचें नागरिकत्व आपणायलें.

अध्यापन करता आसतना, शाळेलागीं आशिल्ल्या मोतीझील हे झोपडपट्टींतल्या गरीब लोकांक पळोवन, तांचेविशीं तिच्या मनांत दया उत्पन्न जाली. ताका लागून तिणें अपंग, पीडित, दीनदुबळ्या लोकांची सेवा करपाचें थारायलें. एकदां दार्जिलिंगाक वता आसतना, 'तू गरिबांचे सेवेक लाग' असो दैवी संदेश तिका मेळ‌ळो. तेन्ना शिक्षणिक

जबाबदारींतल्यान मेकळी जावन निराश्रित आनी गरीब लोकांची सेवा ती करपाक लागली. ह्या कार्याखातीर तिणें पोपची परवानगी मेळयली आनी कलकत्ता हांगा ७ ऑक्टोबर १९५० दिसा 'मिशनरिज ऑफ चॅरिटी' ही सेवाभावी संस्था स्थापन केली. तिच्या विचारांकडे सहमत आशिल्ल्यो कांय बायल-अनुयायी, कार्यकर्त्यो म्हूण तिका मेळ्ळयो. सुरवेक तेरेझाक, उच्चभ्रू लोकांनी खूब त्रास दिले. 'सेंट ऑफ द गटर्स' म्हूण हिणयलें, पूण हे असले टीकेक जुमानी नासतना तिणें आपलें कार्य खंड पडूंक दिनासतना चालू दवरलें. दुयेंत मनशाक अन्न, वस्त्र आनी आलाशिरो हांचेवांगडा सांत्वन आनी प्रेम हांची गरज आसता हें दाखोवन दिलें. हे संस्थेच्यो जोगिणी अनाथ भुरग्यांचो सांबाळ करूंक लागल्यो. तांचेखातीर तेरेझान अनाथाश्रम काडले. १९५२ वर्सा 'होम्स फॉर द डायिंग डेस्टिट्युट्स' हो आदाराश्रम सुरू केलो. १९६४ वर्सा अस्तंत बंगालांत तेरेझान कुश्ठरोग्यांखातीर कुश्ठगृहाची स्थापणूक केली. ह्या संस्थांचो व्याप वाडलो आनी जेन्ना कार्यकर्त्यो कमी पडपाक लागल्यो, तेन्ना तेरेझान 'मिशनरी ब्रदर्स ऑफ चॅरिटी' संघटना स्थापन करून दादल्यांकूय तातूंत प्रवेश दिलो. १९७६ वर्सा, मुंबयंत तिणें 'आशादान' नांवाचें 'स्वीकारगृह' सुरू केलें. तातूंत शिशूभवन, निर्मल हृदय आनी रुग्णांची सेवा ह्यो तीनूय शाखा एकठांयल्यात. ह्या संस्थांक जावपी खर्च देणग्यांतल्यान आनी तेरेझाक मेळिल्ल्या पारितोशिकांचे रकमेंतल्यान जाता.

मदर तेरेझान केल्ल्या मोलादीक सेवेच्या वावराचो भोवमान करून १९७९ वर्साचो शांततायेचो नोबेल पुरस्कार तिका फाव जालो. तशेंच तिका राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय मानसन्मान आनी पुरस्कार फाव जाल्यात. तातूंतले कांय अशे आसात. रॅमन मॅगासेसे पुरस्कार (१९६२), पोप जॉन शांतता पुरस्कार (१९७१), गुड समारितन पुरस्कार (१९७१), जॉन केनेडी आंतरराश्ट्रीय पुरस्कार (१९७१), जवाहरलाल नेहरू पुरस्कार (१९७२), टेम्पलन पुरस्कार (१९७३), अलबर्ट श्यूवेझर पुरस्कार (१९७५), बलझान आंतरराश्ट्रीय पुरस्कार (१९७९), देशिकोत्तमा, नॉर्वे लोकपुरस्कार (१९७९), भारतरत्न (१९८०). भारतरत्न हो किताब मेळोवपी मदर तेरेझा ही पयली बायल मनीस जावन आसा. २४ नोव्हेंबर १९८३ दिसा राणी दुसरी एलिझाबेथ हिणें 'ऑर्डर ऑफ मेरिट' हो अत्युच्च ब्रिटीश पुरस्कार तिका दिलो. भारतीय तशेंच कांय विदेशी विद्यापिठांनी तिका डॉक्टरेट पदव्यो दिवन तिचो भोवमान केला. अनाथ भुरग्यांच्या पुनर्वसनाखातीर केल्ल्या मोलादीक वावराकलागून तिका १९९० वर्सा सोवियत लँड नेहरू पुरस्कार फाव जालो.

कुश्ठरोग्यांची सेवा करप म्हळयार येशूचीच सेवा करप अशें ती मानता. ती स्वताक येशूचीच दासी मानता. मिशनरीज ऑफ चॅरिटीच्यो शाखो आनी उपशाखो जगभर पातळ्ळयात. हातूंत सेवाकेंद्रां, शाळा, शिशुभवनां, अनाथाश्रम, रुग्णालयां, कुश्ठरोगी केंद्रां, उपचार केंद्रां, निर्मल हृदय हांचो आस्पाव जाता.

मदर तेरेझाचो 'मदर ऑफ द मॅनकाइंड' म्हूण गौरवान उल्लेख करतात. अपरिमित, अखंड कश्ट म्हळयारूच मदर तेरेझा अशें समीकरण जालां. पीडितांक प्रेम दिवन तांची जीण सुखदीणी करपाचो तिचो यत्न जगन्मान्य जाला. 'ए गीफ्ट फॉर गॉड' ह्या पुस्तकांत मदर तेरेझाचे विचार संकलीत केल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**मदुराई** : तमिळनाडु राज्याच्या मदुराई जिल्ह्यांतलें मीनाक्षी मंदिराखातीर नामना आशिल्लें उद्देगीक आनी संस्कृतीक शार. लोकसंख्येचे नदरेन राज्यांत चेन्नई आनी कोईमतूर हांच्या फाटल्यान ह्या शाराचो नंबर लागता. लोकसंख्या ३४,४७,५९५ (१९९१). क्षेत्रफळ ६५६५ चौ. किमी. तिरुचिरापल्लीचे नैऋत्येक ११३ किमी. अंतराचेर आशिल्लें हें शार वैगई न्हंयेचे उजवे देगेर वसलां. समुद्रथरापसून १००मी. उंचायेवयल्या ह्या शाराच्या वाठारांत अन्नमलई, नागमलई आनी पसुमलई ह्यो नामनेच्यो दोंगुल्ल्यो आसात. दक्षिण रेल्वेवयलें हें म्हत्वाचें प्रस्थानक आसून, वाराणसी कन्याकुमारी ह्या राश्ट्रीय महामार्गावयलें हें म्हत्वाचें स्थान आसा.

शिवाचे जटेंतल्यान हांगा अमृताचे थेंब पडले, अशी आख्यायिका आसा. अमृत हें मधुरांतलें मधूर आशिल्ल्यान ह्या वाठाराक मधुरा हें नांव मेळ्ळें आनी ताचोच फुडें 'मदुरा' वा 'मदुराई' हो अपभ्रंश जाला आसूंक जाय.

पुर्विल्ल्या काळासावन मदुराईची धर्मीक, वेपारी आनी संस्कृतीक केंद्र म्हूण नामना आसा. 'चैतन्यचरितामृत' हातूंत मदुराईचो 'दक्षिण मथुरा' असो उल्लेख मेळटा. टॉलेमीच्या मताप्रमाण हें दक्षिण भारताचें वेपारी केंद्र आशिल्लें. कौटिलीय अर्थशास्त्रांत मदुराईचो तलम रेशमी वस्त्रां आनी मोतयां हांचेखातीर नामना आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. खिस्ताआदीं कांय शतमानां ग्रीस आनी रोम हांचेकडेन ताचो वेपारी संबंद आशिल्लो. भव्यताय आनी सोबीतकायेखातीर ह्या शाराक 'दक्षिण भारताचें अॅथेन्स' अशें म्हण्टाले. त्या काळांतल्या 'तमिळ संघम्' (तमिळ अकादेमी) हे संस्थेक लागून 'मदुराई' ची चड नामना जाली.

खिस्ताआदीं पांचव्या शतमानापसून इ.स. इकराव्या शतमानाचे अखेर मेरेन हें शार पांड्य घराण्याची राजधानी आशिल्ली. १३१० त मलिक काफूरान हें शार लुटलें. १३२४ वर्सा हें शार मुसलमानांचे सत्तेखाल गेलें. १३७८ उपरांत हें शार विजयानगर साम्राज्याचे सत्तेखाल गेलें. १५५० त नायक घराण्यान ह्या वाठारांत आपली सत्ता स्थापून मदुराई मुखेल केंद्र केलें. तिरुमल नायकाचे कारकिर्दींत (१६२३-५९) ह्या नगरांत बरी उदरगत जाली. १६६० उपरांतच्या काळांत ह्या वाठाराक

मुसलमान, मराठे आनी म्हैसूरचो चिक्कदेव राजा हांचेकडल्यान कांय प्रमाणांत त्रास जालो. दक्षिण अकार्टच्या नबाबांनी १७३६ च्या सुमाराक मदुराईचेर आपलो शेक बसयलो. १८०१ त ह्या नबाबांनी वर्सुकी पगार आनी राखण हे सर्तीचेर मदुराई ब्रिटीश ईश्ट इंडिया कंपनीचे सुवादीन केली. भारतीय स्वातंत्र्य चळवळीच्या इतिहासांत मदुराई हें सविनय कायदेभंग आनी हेर राजकीय चळवळीचें म्हत्वाचें केंद्र आशिल्लें.

मदुरेचे सादारणपणान तीन मुखेल भाग पडटात ते अशे- पोरनें शार, टेप्पाकुलम् तळयाकडलो बागांनी आनी बंगल्यांनी व्यापिल्लो भाग आनी वैगई न्हंयेचे पलतडीन वशिल्ली नवी पेठ. पोरनें शार, किल्ल्याचे भोंवतणी वशिल्लें आसून ताचे मदीं मिनाक्षीचें देवूळ आसा. देवळाच्या चारूय वटांनी देवळाच्या तटाक समांतर अशे जायते रस्ते आसात. १५५९ त विश्वनाथ नायक ह्या राजान शारा भोंवतणी तट बांदून, चारूय वटांनी व्हड खंदक खणून ७२ बुरूज बांदिल्ले. १९व्या शतमानाच्या सुरवातीच्या काळांत हे तट अस्तित्वांत आशिल्ले. पूण १८४१त ब्लॅकबर्न नांवाच्या जिल्ह्याधिकाऱ्यान शासनाचो परवानो घेवन ह्यो वण्टी मोडल्यो आनी त्या जाग्यार घरां बांदलीं.

मलिक काफूराचे घुरयेंत हांगाची पांड्य राजान बांदिल्ली वास्तू चडांतचड नश्ट जाली. पूण मीनाक्षी आनी सुंदरेश्वराची मूर्त मात बरे स्थितींत आसा. नायक राजाचे कारकिर्दींत मीनाक्षी देवळाची पुनर्रचना केली. ह्या देवळांतली गर्भकुडींतली मूर्त सोडल्यार हेर मुर्ती सोळाव्या शतमानाउपरांतच्यो आसात. ह्या देवळाक 'वेल्ली अंबालम्' अशेंय म्हण्टात.

मीनाक्षी देवीविशीं एक दंतकथा आसा ती अशी- मीनाक्षी ही मलयध्वज पांड्य राजाची धूव. जल्मतनाच तिका तीन थानां आयिल्लीं पळोवन तिच्या आवय-बापायक हुस्को जालो. तेन्ना एके परीन, राजाक तिच्या भावी घोवाच्या दर्शनान तिचें वैगुण्य नश्ट जातलें असो धीर दिलो. बापाय उपरांत मीनाक्षी पांड्य देशार राज्य करूंक लागली. एका फाटल्यान एक देश जिकून ती हिमालयाच्या मूळसाकडेन पावली. तिणें कैलासाचेर घुरी घालपाचें थरयलें. तेन्ना अचकीत शिव तिच्या मुखार प्रकट जालो. शिवाक पळोवन पयले खेप तिका लज आयली आनी तिचें मदलें थान गळून पडलें. फुडें तिचें आनी शिवाचें लग्न जालें.

मीनाक्षी देवळाचो आंवाठ एकूण ५.६ हेक्टर क्षेत्रांत व्यपिल्लो आसून देवळा भोंवतणी ऊंच चिऱ्यांनी बांदिल्लो तट आसा आनी ताका चारूय वटांनी दारां आसात. तट आशिल्लो वाठार २५३ मी. लांब आनी २२२.५ मी. रूंद आसून तातूंत मुखेल देवूळ, जायते मठ, सभामंडप, ल्हान देवळां, पवित्र तळीं आदी वास्तू आसात.

देवळाच्या अश्टशक्ती मंडपांतल्या खांब्याचेर अश्टशक्तीच्यो मूर्ती चितरायल्ल्यो आसात. फुडें तिरूमल नायकाचो एक मंत्री मीनाक्षी नायक हाचो सभामंडप लागता. ते उपरांत 'मुदली पिल्लई मंडप' (कृष्ण मंडप) आसून तो जायत्या मोठ्या फातरा मूर्तींनी सजयला. ह्या मंडपा उपरांत 'सुवर्णपद्म' नांवाचें एक पवित्र कूंड लागता. ह्या कुंडाचे अंस्ततेवटेन आशिल्ल्या मंडपांतल्यान पोपटांचो आवाज येता, देखून ह्या मंडपाक 'किलिकट्टी मंडप' अशें नांव पडलां. ह्या मडपांतल्यान फुडें वतकच मीनाक्षी देवीची मूर्त दिश्टी पडटा.

देवळामुखार बावटो लावपाखातीर भांगराचो खांबो आसा. काळया पाशाणाची मीनाक्षीची मूर्त कमळांत उदेंतेवटेन तोंड करून उबी आसा. मीनाक्षी देवळाचे उत्तरेक सुंदरेश्वराचें देवूळ आसा. ह्या देवळांत ६३३ शैव संतांच्यो मूर्ती आनी एक पोरनें कदंब झाडाचें कांड आसा. आदल्या तेंपार हांगा कदंबाचें रान आशिल्लें अशें म्हण्टात. तेखातीर मीनाक्षीक 'कदंबवनवासिनी' अशेंय म्हण्टात. फुडें तिरुमल नायकाचो पूर्वज मट्टू वीरप्पा हाणें बांदिल्लो 'वीर वसंत राय मंडप' आसा. तिरूमल देवळाचे दक्षिणेवटेन 'कल्याण मंडप' (लग्नमंडप) आसून दर वर्सा चैत्र पुनवेक जावपी सुंदरेश्वर आनी मीनाक्षी हांचो लग्न सुवाळो आनी रथोत्सवाची नामना आसा. ह्याच वेळार हांगा व्हड गोरवांचो बाजार भरता.

वीर वसंत राय मंडपाचे उत्तरेक 'सहस्त्रस्तंभ मंडप' आसा. ह्याच मंडपांत 'मंदिर कला संग्रहालय' आसा. फुडें तिरुमल नायक राजान सोबीत कलाकुसरीन बांदिल्लो 'पुदु मंडप' लागता. ह्या मंडपांत नाचाचो पवित्रो घेवन राविल्ली नटराजाची सोबीत मूर्त आसा. ह्याच मंडपांत एक स्वरस्तंभ आसून तातूंतल्या उपस्तंभाचेर आघात केल्यार सा, रे, ग, म, अशे सप्तस्वर येतात.

सुंदरेश्वराचें मूळ द्राविड नांव 'छोक्कलिंगम्' आसून तो द्रविडांचो उपास्यदेव आशिल्लो. मीनाक्षी ही द्रविड शक्तिदेवता.

मीनाक्षी देवळाभायर मदुराईंत हेर व्हड देवळां आसात. शाराच्या नैर्ऋत्य वाठारांत एक व्हड 'पेरुमल देवूळ आसा. हेर देवळांत 'शिव मंदिर' (नानमैतरुवरलाभदायी देव) आनी 'मरिअम्मन' (वांदियूर-देवीरोगाची देवता) देवीचें देवूळ हीं नामनेचीं आसात. मरिअम्मा देवीचें देवूळ हें वांदियूर टेप्पाकुलम् तळयाचे देगेर बांदलां. दर वर्सा जानेवारी-फेब्रुवारी ह्या काळांत (तिरुमल नायकाच्या जल्मदिसा) टेप्पाकुलम् उत्सव व्हड उमेदीन मनयतात. हांगाचो तिरुमल नायकान भारतीय-इस्लामी शैलींत बांदिल्लो राजप्रासाद नामनेचो आसा. ताच्या मुखावयल्या भागाक 'स्वर्गविलासम्' अशें नांव आसा. राजप्रासाद-वास्तु शैलीचे नदरेन इतली व्हड वास्तू दक्षिण भारतांत हेर खंयच कडेन ना. सद्या तिचो उपेग शासकीय कार्यालयाखातीर करतात.

मुदराईंत आनी उपनगरांत सूत-उत्पादन, कापड आनी वस्त्रोद्योग, वाहतूक सामग्री, तंबाकू, साकर ह्या सारक्या उद्देगांत बरीच उदरगत जाल्ली आसा. रस्मी, तलम वस्त्रां आनी हातमाग हांचेय उद्देग हांगा चलतात. पैकारा प्रकल्पाखातीर मदुराईच्या उद्देगीकरणाक गती मेळ्ळी.

हांगा सगळ्यांत पोरनें आनी नामनेचें अमेरिकन कॉलेज (स्थापना - १८८१) हें महाविद्यालय आसा. हांगा मदुराई-कामराज विद्यापीठ आसा. ताका शारांतलीं सुमार २५ महाविद्यालयां संलग्न आसात. जानेवारी १९८१ त हांगा पयली संवसारीक तमिळ परिशद भरिल्ली.

मदुराईंतल्यो खड्याच्यो मुदयो आनी नक्षिकाम केल्ल्या कांकणांची नामना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मद्यपान :** (पळेयात सोरो).

**मद्रास (चेन्नई) :** भारताच्या तमिळनाडू राज्याची राजधानी आनी देशांतल्या कोरोमंडल दर्यादिगेवयलें एक म्हत्वाचें कृत्रिम बंदर. लोकसंख्या : ३७,९५,०२८ (१९९१). क्षेत्रफळ १७४चौ. किमी. मद्रास शार रेल्वे, रस्ते आनी हवाई मार्गांवरवीं देशांतल्या हेर भागांक जोडिल्लें आसा. भारतांतल्यान आग्नेय आशियांत वचपी आंतरराश्ट्रीय हवाईमार्ग मद्रासवयल्यान वता. दक्षिण भारतांतले उद्येगीक आनी सांस्कृतिक नदरेनय मद्रासाक खूब म्हत्व आसा.

हें शार बंगालच्या उपसागरा लागसारच्या दर्यादिगेवयल्या वाठारांत सादारण १७ किमी. लांब आनी ३.५ ते ७ किमी. रूंद अशे पट्टेंत समुद्रसपाटेचेर वसलां. शारांतल्यान कूम आनी अड्यार ह्यो न्हंयो व्हांवतात. शारांतल्यान उत्तर-दक्षिण बकिंगहॅम कालवो वता. शाराचे दक्षिणेक सेंट टॉमस मौंट ही दोंगुल्ली आसा.

मद्रास शाराची स्थापणूक १६३९ त जाल्ली आसली, तरी शारांतल्या मैलापूरसारक्या कांय भागांचो इतिहास खूब पोरनो आसा. तिरुक्कुरळ हो तमिळ काव्यग्रंथ तिरुवळ्ळुवर (सुमार पयलें शतमान) हाणें मैलापूर हांगा रचलो, असो समज आसा. मैलापूर हांगाचें कपालीश्वर देवूळ सादारण बाराशें वर्सांपयलींचें आसतलें, अशें एक मत आसा. ट्रिप्लीकेन भागांतलें पार्थसारथी मंदिर आनी मैलापूरचे दक्षिणेक ५किमी. अंतराचेर आशिल्लें तिरुवनमियूर हींय पोरनीं आसात. आतां उदकासकयल गेल्ल्या पोरन्या मैलापूर वाठारांत किरिस्तावांची वसणूक आशिल्ली आनी थंय एक इगर्जय आशिल्ली. तेराव्या शेंकड्याचे अखेरेक मार्को पोलो हांगा येवन गेल्लो. पुर्तुगीज हांगा १५२२ त येतकच तांणी हांगाचें पोरनें चॅपेल परत बांदून काडलें आनी एक ल्हानशीच इगर्जय बांदली. हीच इगर्ज फुडें 'सेंट टॉमे कॅथीड्रल' ह्या नांवान नामनेक पावली.

ह्या वाठारांत तयार जावपी तलम सुती वस्त्रांक लागून सतराव्या शेंकड्यांत ब्रिटीश वेपारी हांगा आयले. डे आनी अँड्रू गोगॅन हांणी मार्च १६४० त हांगा एक किल्लो बांदलो. ह्या किल्ल्याचें नांव 'फोर्ट सेंट जॉर्ज' अशें दवरलें. एका वर्साभीतरूच किल्ल्या लागसार सुमार ३०० ते ४०० कोश्टी कुटुंबां रावपाक आयलीं. फोर्ट सेंट जॉर्ज १६४१ त कोरोमंडल दर्यादिगेवयल्या ब्रिटीश ईस्ट इंडिया कंपनीचें मुखेल ठाणें जालें. फ्रेंचांनी १६७२ त ट्रिप्लिकेन ह्या शाराच्या वाठारांत ल्हान किल्लो बांदलो. दोनूच वर्सांत फ्रेंचांनी तांकां धांवडायले. औरंगजेबान १६८७ ताचेर घुरी घाली आनी ताचो सरदार दाऊदखान हाणें १७०२ त नाकेबंदी केली. मराठ्यांची भिरांत जाणवल्ल्यान १७४६ त फ्रेंचांनी तो जिखलो. सेगीत तीन वर्सां फ्रेंचांनी फोर्ट सेंट जॉर्ज आपल्या ताब्यांत दवरलो. फुडें एके कबलातीवरवीं तो १७४९ त फ्रेंचांनी परत ब्रिटिशांकडे सोंपयलो.

कंपनीकडे सुरवेक किल्लो आनी ब्लॅकटाउन (जॉर्जटाउन) हांचोय ताबो आशिल्लो. रेग्युलेटिंग ॲक्ट १७७३ त चालीक लागतकच ब्रिटिशांनी आपली राजधानी कलकत्त्याक व्हेली. मद्रास त्याच नांवाच्या इलाख्याचें मुखेल ठाणें जालें. स्वातंत्र्याउपरांत मद्रास प्रांताची आनी भाशिक प्रांत पुनर्रचणुके उपरांत मद्रास (सध्याची तमिळनाडू) राज्याची हीच राजधानी उरली.

सुरवेक सावन मद्रासाक वेपारी म्हत्व आशिल्लें. पूण १८३३ त ईस्ट इंडिया कंपनीच्यो वेपारी सवलती काडून घेतल्यो. कांय युरोपीय कुटुंबांनी हाचो लाव घेवन मद्रासांत स्वतंत्रपणान वेपार सुरू केलो. मद्रासच्या उद्देगीकरणाची बुन्याद अशेतरेन पडली. टॉमस पॅरी हाणें चामड्या उद्देगाक सुरवात केली. बिन्नीन बकिंगहॅम ॲंड कार्नॅटिक मिल्स दोन भागांत (१८७७ आनी १८८२) सुरू केल्यो. १८९६ त हांगाच्या दर्यांत वणत बांदून कृत्रिम बंदर बांदलें. त्याच वेळार मद्रास दक्षिण भारतांतल्या हेर भागांक रेल्वेन जोडलें. हाका लागून मद्रासची वेपारी उदरगत जायत गेली. मद्रास चेंबर ऑफ कॉमर्स (१८३६), बँक ऑफ मद्रास (१८४३), चार्टर्ड बँक ऑफ इंडिया, ऑस्ट्रेलिया ॲंड चायना (१८५३) ह्या संस्थांक लागून मद्रासची वेपारी भरभराट जाली.

इंडियन बँक (१९०७), इंडियन ओव्हरसीज बँक (१९३७) ह्यो दोन पुराय स्वदेशी बँको स्थापन जाल्यो. बर्मा शेल कंपनीन खनिज तेल आनी पेत्रोलाची पुरवण करपाखातीर मद्रासांत तेल हाडपाक सुरवात केली. ह्याच सुमाराक साउथ इंडियन चेंबर ऑफ कॉमर्स (१९०९), आंध्र चेंबर ऑफ कॉमर्स (१९२७) हीं वेपारीमंडळां स्थापन जालीं. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत कितल्याशाच भारतीय आनी परदेशी कंपन्यांनी दक्षिण भारतांतलीं आपलीं कार्यालयां मद्रासांत स्थापन केलीं. मद्रासांतल्या जॉर्जटाउन आनी फ्लॉवर बझार हांगा कितलींशींच वेपारी कंपन्यांचीं कार्यालयां आसात. आर्मेनियन स्ट्रीटचेर बँको आनी इव्हनिंग बाजार रोड, नेताजी सुभाष बोस रोड, अण्णासलाई (माउंट रोड) हीं मुखेल वेपारी केंद्रां आसात. पेरियामेदू, रिपेरी हाय रोड, चायना बजार ह्यो कांय व्हडल्यो बाजारपेठो आसात. पेरांबूर (रेल्वेचे डबे), आवडी

(संरक्षण साहित्य), अंबात्तूर (सायकली, वाहन साहित्य), मनाली (सारीं, तेलशुध्दीकरण) ह्यो उद्येगीक वसाहती आसात. मद्रासांत कातडी कमोवप, अभियांत्रिकी उद्देग, विजेचीं उपकरणां, वखदां तयार करप आदी उद्देगधंदे आसात.

दक्षिण भारातांतलें एक मुखेल शिक्षणीक आनी संस्कृतीक केंद्र म्हूण चेन्नई नामनेक पावलां. मद्रास महापालिका १८८८ त स्थापन जाली. मद्रास विश्वविद्यालयापयलीं (१८५७) प्रेसिडेन्सी कॉलेज (१८५५) स्थापन जालें. मद्रास वैजकी महाविद्यालय १८३५ त स्थापन जालें. हांगा 'इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजी (IIT) ही तंत्रविद्या शिक्षणाची वेवस्था आशिल्ली संस्था आसा. हांगाची पयली शाळा रॅल्फ ऑर्ड हाणें १६७८ त सुरू केल्ली, अशे उल्लेख सांपडटात. पूण खऱ्या अर्थान पयली शाळा १७१५ त सुरू जाली. ह्यो सगळ्यो मिशनरी शाळा आशिल्ल्यो. विद्यापिठाच्या माध्यमिक शालेय शिक्षण विभागाची स्थापना १८४१ त जातकच आर्विल्ल्या शालेय शिक्षण पद्दतीची बुन्याद घाली. हेच संस्थेचें फुडें विश्वविद्यालय जालें.

संस्कृतीक नदरेनय मद्रासचो इतिहास खूब व्हड आसा. नामनेचो तमिळ संत तिरूवळ्ळुवर हाचो कांय काळ मैलापूर हांगा राबितो आशिल्लो. मद्रास हें कर्नाटक संगिताचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. पैदला गुरूशास्त्री, वीणा कुपय्यर, तिरुवादी आनी हेर नामनेच्या कर्नाटक संगीतकारांवांगडाच मंगलमपल्ली, बाला मुरली कृष्णन्. एम्. एस्. सुब्बुलक्ष्मी हे सद्याच्या काळांतले नामनेचे संगीतकार ह्याच शारांतले जावन आसात.

दक्षिण भारतांतल्या चित्रपट उद्देगाचें मद्रास हें मुखेल केंद्र आसा आनी थंय हिंदी चित्रपटांची निर्मितीय जाता. हांगाचें पयलें ग्रंथालय १६६१ त सुरू केल्लें. 'कॉनेमारा पब्लिक लायब्ररी' हें भारतांतलें एक राष्ट्रीय ग्रंथालय. मद्रासाक इंग्लीश, तमिळ, मलयाळम्, आनी उर्दू दिसाळीं उजवाडाक येतात. 'चंदामामा' आनी 'चांदोबा' हें वेगवेगळ्या भासांत उजवाडाक येवपीं म्हयनाळें मद्राससावनच उजवाडाक येता. अड्यार हांगा 'थिऑसफिकल सोसायटी' आसा.

भारतीय सर्वेक्षण संस्थेवरवीं देशाचे जे नकाशे काडिल्ले, तांची सुरवात मद्रासांत जाली. मद्रास वेधशाळा ही खगोलीय वेध करून रेखांश निश्चित करपी पयली वेधशाळा आसा. फुडें १९०५ उपरांत उत्तर प्रदेशांतल्या मिर्झापूर हांगाचो थळावो वेळ भारतीय प्रमाणवेळ म्हूण मानूंक लागले.

पर्यटकांखातीर मद्रासांत पळोवपासारकीं खूब थळां आसात. मरीना बीच खूबच ओडलायणी आसा. फोर्ट सेंट जॉर्ज, थंयचें चर्च ऑफ सेंट मेरी, थंयचेंच फोर्ट म्यूझीयम, कपालीश्वर मंदिर (मैलापूर), पार्थसारथी मंदिर (ट्रिप्लिकेन), सेंट टॉमस माउंट, सेंट टॉमे कॅथीड्रल, गिंडी पार्क हें राष्ट्रीय उद्यान, सोरपांचें उद्यान, शासकीय वस्तुसंग्रहालय आदी पळोवपासारकीं थळां आसात. मद्रासच्या लागसार महाबलीपुर, पक्षितीर्थ, कांचीपुरम्, वेडंतंगल सुकण्यां अभयारण्य ह्यो पळोवपासारक्यो सुवाती आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मधुबनी चित्रशैली :** बिहारांतली एक लोक चित्रकला. बिहारांत दरभंगा जिल्ह्यांतल्या मधुबनी ह्या खेड्यांत खोंपींनी वण्टी, जमीन आनी देवतेची पुजे सुवात सजोवपाखातीर, गांवगिऱ्या वाठारांतलीं आदिवासी बायलां रंगीत चित्रां काडटालीं. तातूंत रामायण, महाभारत, हेर पुराणकथा हातूंतले प्रसंग, तशेंच देवदेवता आनी शुभ सुचोवणी कुरवांचें चित्रण आसतालें. ही कला थंय वंशपरंपरेन आयजूय तिगून आसा. ही लोककला खोंपीतल्या वण्टींवयल्यान ल्हव ल्हव कापडाचेर आनी उपरांत कागदाचेर आयली. कागदाचेर तिची वण्टीचित्रणांतली भव्यताय तिगून उरली. हातूंत झगमगाट आसून लेगीत भडकपणा दिसून येना. वेलबुट्टींतल्या पानांचें आनी फुलांचें शैलीकरण आनी पंरपरेंतल्यान आयिल्ली आवृतीबंधाची उपजत जाण हीं ह्या चित्रांचीं खाशेलपणां जावन आसात. तोंक आशिल्ले नाक, अरूंद कपल, नुस्त्याचे आकृतीचे दोळे, धडापसून वेगळे दिसपी सदळ आनी लांब हातपांय, हीं शैलींतल्या व्यक्तीचित्रणाचीं खाशेलपणां जावन आसात. ग्रीसांतले पुर्विल्ले क्रीट संस्कृतायेंतल्या चित्रांतल्या व्यक्तीं-कडेन हें व्यक्तीचित्रण साम्य दाखयता.



मधुबनी चित्रशैलीचो एक नमुनो

ह्या चित्रां-खातीर वापरांत येवपी रंग हे थळाव्यो वनस्पती आनी सैमीक साधनांसावन तयार केल्ले आसतात. तातूंत सैमीक चमक आनी टवटवीतपण दिसता. देखीक 'कुसुंबा' ह्या फुलासावन झगमगीत शेंदरी रंग, केळीच्या खोल्याचो रोस, दूद आनी पातळ चुनो हांचे भरसणींतल्यान लेव भांगराकोर, हळदीचो गाड हळदुवो, कोळशाच्या धुंवराच्या काजळीचो गाड काळो, पळसाच्या फुलांसावन हळदुवो, वेलींच्या पानांसावन पाचवो अशे सैमीक रंग चित्रांत चैतन्य हाडटात. कोंड्याची काडी तोंकाकडेन घांसून आनी पिशोलासारकी करून सूक्ष्म गजाली रंगोवपाखातीर वापरतात.

मधुबनी खेड्यांत आयज लेगीत कितलींशींच बायलां ही चित्रनिर्मिती व्हडा प्रमाणांत करतात. अखिल भारतीय हस्तकला मंडळ संस्थेन हांगा

ह्या चित्रांचे विक्रेची वेवस्था केल्या. ही चित्रशैली संवसारीक नामनेक पात्र थरली, हाचें श्रेय झॉर्झ ल्यूनो ह्या फ्रेंच भोंवडेकाराक वता. ताणें बिहारांत रावन मधुबनी शैलीचेर एक म्हायतीपट तयार केलो. तो अस्तंतेकडच्या देशांत व्हडा प्रमाणाचेर प्रदर्शित जालो. आतां हीं चित्रां कॅनडा, पोलंड ह्या अस्तंतेकडच्या देशांत व्हडा प्रमाणांत निर्यात करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मध्य आफ्रिका प्रजासत्ताक :** नांवाप्रमाण हो देश आफ्रिका खंडाच्या मध्यभागार आसा. देशाचें क्षेत्रफळ ६,२४,९७७ चौ. किमी. इतलें आसून ताचो विस्तार २°१६' उत्तर ते ११°२०' उत्तर अक्षांश आनी रेखांश १४°२०'उदेंत ते २७°४५' उदेंत इतलो आसा. लोकसंख्या ३३,००,००० (१९९१). बांगी हें देशाचें राजपाटण. ह्या देशाचे उदेंतेक सूदान, दक्षिणेक काँगो प्रजासत्ताक, अस्तंतेक कॅमेरून आनी उत्तरेक चॅड हे देश आसात.

**भूंयवर्णन :** हो देश दर्याथळासावन सुमार ६०० ते ९०० मीटर उंचायेचो पठारी प्रदेश आसा. सगळयांत चड उंचायेचें गिरिपिंड, देशाचे उदेंतेक आनी अस्तंतेक आशिल्ले शिमेमजगतीं सांपडटा. मासिफ दू तोंडाऊ ह्या उदेंतेकडेन आशिल्ल्या गिरिपिंडाची देंवती दक्षिणेवटेन चड आसा. ह्या गिरिपिंडाचे वायव्येक मासिफ देस बोंगोस ही पर्वतावळ आसून तिची उंचाय १,४०० मिटरमेरेन आसा. ह्या गिरिपिंडाचे उत्तरेक ९०० मी. परस चड उंचायेचे पर्वतांचोंबे आसात. अबाउरासेन, दार चाला आनी मौंगो ह्यो हातूंतल्यो मुखेल पर्वतांवळी आसात. एन्गाउओ, जेबेल वाडा, एन्गाया आनी टिंगा हीं ह्या वाठारांतलीं मुखेल तेमकां आसात. देशाचे दक्षिणेक आशिल्ल्या तळपांक थळावे लोक 'कागस' अशें म्हण्टात. आग्नेय भागांत पोरन्या ग्रॅनायटी तळपांचे थर आसून तांचेर वालुकाश्मांचे आडवे थर आसात. अस्तंतेक कारे (यादे) ही १,२०० मी. उंचायेची ग्रॅनायटी पर्वतांवळ आसा.

देशांतल्यान ल्हान ल्हान अशो साबार न्हंयो व्हांवतात. देशाच्या मध्यभागाचेर आशिल्ल्यान उत्तरवाहिनी आनी दक्षिणवाहिनी अशो दोन न्हंयप्रणाली निर्माण जाल्ल्यो आसात. देशाच्या उत्तर भागांत व्हांवपी चडशो न्हंयो चॅड सरोवराक मेळटात. देशाच्या दक्षिण भागांत व्हांवपी चडशो न्हंयो ऊबांगी न्हंयेचे फांटे आसात. बोमू (माबोसू) हो ऊबांगी न्हंयेचो मुखेल फांटो आसा. चिंको आनी एम्बारी ह्यो उदेंतेक आशिल्ल्या गिरिपिंडांमदल्यो मुखेल न्हंयो आसात. ह्यो उदका येरादारीचे नदरेन म्हत्वाच्यो थरतात.

**वनस्पत आनी मोनजात :** देशाचो उत्तर भाग हो सॅव्हाना प्रकाराचें तण आशिल्ल्या मळांखाला आसून हांगा रुखावळ खूब कमी प्रमाणांत सांपडटा. पूण दक्षिणेवटेन आशिल्ल्या न्हंयांच्या देगणांनी विषुववृत्तीय प्रकाराचे रूख आशिल्लीं दाट रानां आसात. ह्या रानांनी मॉहॉगनी, ओबिची, लिंब हे म्हत्वाचे रूख सांपडटात. लोबाये भागांत कॉफी आनी कोको हांचेभायर रबर, पाम आनी इमारतीक उपेगी पडपीय रूख आसात.

हांगाच्या रानांनी साबार जातींची मोनजात सांपडटा. हातूंत गोरिला, चिंपँझी, साबार माकडांच्यो जाती, रानटी चानयो, तशेंच सॅव्हाना प्रदेशांत वेगवेगळ्या जातिंचीं हरणां, रान रेडे, हत्ती, शींव, वाग आनी हांगाच्या न्हंयांनी टिलापिया हें नुस्तें, पाणघोडे, मानगें, गेंडे हे प्राणी सांपडटात. हांगा तरेकवार सवण्यांच्योय जाती आसात.

**इतिहास :** देशाच्या आदल्या इतिहासाची चडशी म्हायती मेळना. मध्ययुगाच्या दुसऱ्या अर्दाकसावन काँगो वाठारांतल्या साबार लोकांनी ऊबांगी न्हंयेच्या देगणांत आपलो राबितो केल्लो. युरोपीय लोक आफ्रिका खंडांत पावचेपयलीं ह्या प्रदेशांत लोकवसती खूब उणी आशिल्ली. एकुणिसाव्या शेंकड्यामेरेन हांगा बांतू भाशा उलोवपी लोकांचे ल्हान ल्हान पंगड आशिल्ले. युरोपीय लोक जेन्ना हांगा पावले तेन्ना ते ह्या पंगडांतल्या साबार लोकांक गुलाम म्हूण व्हरपाक लागले. १८०५ ते १८३० ह्या काळांत सूदान आनी चॅड हांगाच्यान आयिल्ल्या बाया जमातीच्या लोकांनी शारी आनी लोगोन न्हंयांच्या मैदानी प्रदेशांनी आनी काँगो हांगाच्यान आयिल्ल्या मांदजिया जमातीच्या लोकांनी ऊबांगी आनी शारी ह्या न्हंयांच्या मदल्या वाठारांनी आपलो राबितो केल्लो. ह्याच तेंपार सोमालीलँडच्या प्रदेशांतल्यान आयिल्ले बंद लोक आउदा आनी बांबारी शारांभोंवतणच्या वाठारांनी रावपाक लागले. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दाकसावन जेन्ना आफ्रिका खंडाच्या हेर भागांनी गुलामांच्या वेपाराक नेट आयलो. तेन्ना हे जातीच्या साबार लोकांनी मध्य आफ्रिकेच्या दाट रानांनी आलाशिरो घेतलो.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन फ्रेंच लोकांनी आपल्या आफ्रिकेंतल्या राज्याचो विस्तार करपाक सुरवात केल्ली. दक्षिणेक काँगोमदल्या ब्रॅझाव्हिलसावन उत्तरेक चॅड सरोवरामेरेनचो प्रदेश फ्रेंच लोकांच्या ताब्यांत आशिल्लो. हातूंत आयचो मध्य आफ्रिका ह्या प्रदेशाचोय आस्पाव जातालो. फ्रेंच लोकांनी १८८९ त ऊबांगी न्हंयेचे देगेर बांगा शार उबारिल्लें. उपरांत ह्याच लोकांनी १९१० त ह्या प्रदेशाक ऊबांगी-शारी हें नांव दिवन हांगा आपली वसणूक स्थापित केली. गाबाँ, काँगो, चॅड, ऊबांगी-शारी हांचें मेळून एक संयुक्त राज्य तयार केलें आनी ताका फ्रेंच 'विशुववृत्तीय आफ्रिका' अशें नांव दिलें.

पयल्या म्हाझुजाउपरांत फ्रेंच वसणूककारांच्या धोरणांत बदल जालो. १९५८त फ्रेंच प्रजासत्ताकान जनरल द गॉल हाच्या फुडारपणाखाल तयार केल्ले येवजणेप्रमाण ह्या प्रदेशांत भौशिक मतदान जावन ह्या प्रदेशाक फ्रेंच कम्युनिटींत स्वायत्तता मेळळी. ह्याच वेळार प्रदेशाच्या ऊबांगी शारी ह्या नांवांत बदल करून ताका 'मध्य आफ्रिका प्रजासत्ताक' अशें नांव दवरलें. बोगांड हो ताचो पयलो राष्ट्राध्यक्ष जालो. मार्च

१९५९ त बोगांडा हाका विमान अपघातांत मरण आयल्याउपरांत डेव्हिड डाको हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १३ ऑगस्ट १९६० दिसा हो देश पुरायपणान स्वतंत्र जावन २० सप्टेंबर १९६० ह्या दिसा ताका संयुक्त राश्ट्राचें सभासदत्व मेळ्ळें. डाकोच्या फुडारपणाखाला सगळ्या पांवड्यांचेर भ्रश्टाचार मातिल्लो. हाका लागून देशाची अर्थीक स्थिती साप्प इबाडिल्ली. उपरांत ३१ डिसेंबर १९६६ आनी १ जानेवारी १९६७ दिसा सैन्याचो डाको सरकाराआड उठाव जावन, कर्नल झान्-बेदेल बोकासा ह्या लश्करी अधिकाऱ्यान सत्ता आपल्या हातांत घेतली. बोकासा हाच्या हातांत सत्ता आयल्याउपरांत ताणें आपल्या शेजारी देशांकडेन बरे संबंद दवरपाचे यत्न केल्ले.

**राज्यवेवस्था :** मध्य आफ्रिका प्रजासत्ताक हाचे घटनेची घोशणा १६ फेब्रुवारी १९५९ त दिल्ली. १९५९ ते १९६४ मेरेन ते घटनेंत पांच खेपो सुदारणा जाली. पूण १९६६ त कर्नल बोकासा जेन्ना राश्ट्राध्यक्ष जालो, तेन्ना ताणें ही घटना बरखास्त करून राश्ट्राध्यक्ष हाका सगळ्या प्रशासनांत खाशेले अधिकार दिवपी घटनात्मक कायदो केलो. १९७६ त ताणें मध्य आफ्रिका प्रजासत्ताक हाचें मध्य आफ्रिका साम्राज्यांत रुपांतर करून नवी राज्यघटना तयार केली. बोकासा हो ह्या साम्राज्याचो सार्वभौम सत्ताधीश जालो. १९७८ त बोकासा हाणें आपले अधिकार आनीक वाडोवन मंत्रिमंडळ बरखास्त केलें आनी हेन्री मेइदाऊ हाका प्रधानमंत्री करून नव्या मंत्रिमंडळाची स्थापणूक केली. १९७९ त बोकासो लिबियांत आसलो तेन्ना डेव्हिड डाको हाणें फ्रांसाच्या आदारान देशांत उठाव घडोवन हाडून बोकासा हाका अधिकारा वयल्यान पयस केलो आनी परत राश्ट्राध्यक्ष म्हूण सत्ता आपल्या हातांत घेतली. ताणें साम्राज्याचें परत प्रजासत्ताकांत रुपांतर करून हेन्री मेइदाऊ हाची उपराश्ट्राध्यक्ष पदार नेमणूक केली.

फेब्रुवारी १९८१ त नवी राज्यघटना अस्तित्वांत आयली. हे घटनेप्रमाण राश्ट्राध्यक्षाच्या फुडारपणाखाला बहुपक्षीय मंत्रिपरिशद वावर करताली आनी राश्ट्राध्यक्ष तशेंच राश्ट्रीय संसद पांच वर्सांखातीर भौशिक मतदान पद्दतीन वेंचून येतली हाची तजवीज केल्ली. उपरांत डाको हाच्या सरकाराक विरोध जावन निमाणेकडेन १ सप्टेंबर १९८१ दिसा, सेनेचो मुखेली जनरल आंद्रे कोलिंग्बा हाणें लश्करी उठाव करून राश्ट्राध्यक्ष डाको हाका सत्तेवयलो सकयल काडून सगळीं सरकारी सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. अशे रितीन देशांत लश्करी राजवट आयली. पूण २१ सप्टेंबर १९८५ त राश्ट्राध्यक्ष कोलिंग्बा हाणें ताची राजवट बरखास्त करून संविधानीक राजवट सुरू केली. १९९३त भौशिक वेंचणूक घेवन देशांत खऱ्या अर्थान लोकशाय पद्दत सुरू केली.

**अर्थीक स्थिती :** शेतवड हो हांगाच्या लोकांचो मुखेल वेवसाय आसून सुमार ८०% लोक शेतवडींत वावुरतात. वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांतलो सुमार अर्दो वांटो शेतवडीसावन येता. शेतवडीचें यांत्रिकीकरण जावंक नाशिल्ल्यान फकत देशाची गरज भागोवपा इतलेंच शेतकी उत्पादन जाता. देशांत उद्देगिकीकरणाक खूब वाव आसा. पूण तेखातीर फावो आशिल्ल्यो हालचाली ते मानान खूब सवकासायेन चलतात.

टॅपिओका, मको, कड्डण, भूंयमूग, भात, बाजरी, ज्वारी, तीळ, संत्रां, लिंबू, केळीं हीं हांगाचीं मुखेल पिकां आनी कापूस, कॉफी, तंबाकू हीं म्हत्वाचीं नगदी पिकां आसात. प्रादेशिक पातळेचेर देशाच्या गांवगिऱ्या वाठारांचो विकास जावचो म्हणून १९६४त प्रादेशिक विकास कार्यालयाची स्थापणूक केल्ली. तशेंच १९८२त कॉफी, कापूस, तंबाकू आनी पाम तेल हांचोय विकास जावचो म्हूण मंडळांची स्थापणूक केल्ली आनी हे खातीर रस्ते, गुदांव हातूंत सुदारणा तशेंच सारें, किटकनाशकां, तांत्रिक आदार हातूंत वाड केल्या.

पशुधन उद्देगाची वाड ल्हव ल्हव जायत आसा. हातूंत गोरवां, बोकडां, मेंढरां, दुकर, कुकडां, बदकां हांचो आस्पाव जाता. दूद आनी चामड्याच्या वेवसायासावन मेळपी येणावळ म्हत्वाची थारल्या. नुस्तें उत्पादन चडकरून न्हंयांतल्यान जाता. देशांतली रानसंपत्ती समृध्द आसून तातूंत मॉहॉगनी, ओबीची, लिंब ह्या सारकिल्लें घट्ट लाकूड आशिल्ल्या रुखांचो आस्पाव जाता. रानांसावन मेळपी येणावळ दिसानदीस वाडत आसून उद्देगीक उपेगाखातीर लाकडाचें उत्पादन म्हत्वाचें थारलां.

आफ्रिका खंडांतले खण संपत्तींत मध्य आफ्रिका प्रजासत्ताकाचो वांटोय म्हत्वाचो आसा. हांगाचीं चडशीं खनिजां निर्यात जातात. डामोरा हांगा लोहधातुकांचे सांठे आसात. बाकूमा शारा लागसार युरेनियमाचे सांठे सांपडल्यात. दर वर्सा ५००टन युरेनियम धातुकाचें उत्पादन काडपाची येवजण शासनान फ्रेंच अणुऊर्जा प्राधिकरण आनी अलुसूसी हे खाजगी फ्रेंच कंपनीच्या पालवान आंखिल्ली आसा. निकेल कोबाल्ट धातुकांचे सांठे आनी पारा हे बाबूआ हांगा, फातुमा आनी बांगी हांगा चुन्याखडी, बोबोसा हांगा चॉकाचे सांठे, मँगनिजाच्या धातुकाचे सांठे, बाउर-एन्-गॅम हांगा आनी तांब्याच्या धातुकांचे सांठे एन्गाडे हांगा सांपडटात. देशाच्या अस्तंत भागांतल्या गाळाच्या सांठ्यांत हिरे सांपडटात. हिऱ्याचे सांठे बांगीचे अस्तंतेक, ब्रीआचे उत्तरेक आनी बेरबेराती ह्या गांवांतूय सांपडटात.

शेतकीम्हालाचेर प्रक्रिया करपी आनी कांय उपभोग्य वस्तुउद्देग हांचेपुरतेंच हांगाचें उद्देगिकरण आसा.

**लोक आनी समाजजीण:** आयज जे लोक आपल्याक ह्या प्रदेशांतले थळावे वा मुळावे म्हूण मानतात, तांणी हांगा एकुणिसाव्या शेंकड्यांत येवन राबितो केल्लो. सुरवेक अरब आनी उपरांत युरोपीय लोक आफ्रिका खंडांतल्या लोकांचे गुलाम म्हूण वेपार करताले. ह्या गुलामांक ते चडकरून युरोपांत वा अमेरिका खंडांनी व्हरताले. ह्या वेवसायांतल्यान आपल्याक सोडोवन घेवपाखातीर हे लोक हांगा येवन रावपाक लागले. १८०५ ते

१८३० ह्या काळांत बाया जमातीचे लोक उत्तरेकडच्यान आनी १८३० ते १८९० ह्या तेंपार सुदान हांगाच्यान बांदा जमातीचे लोक येवन रावले. गुलामांच्या वेपारावेळार हो प्रदेश लोकांची आलाशिऱ्याची सुवात जावन आशिल्लो.

हांगासर तरेकवार जातींचे लोक आसात. तांणी हांगा वेगवेगळया तेंपार येवन आपलो राबितो केल्लो आसून ते वेगवेगळया वाठारांनी एकवटित जाल्ले दिश्टी पडटात. बंद, बाया, मांदजिया, ऊबांगी, सारा, एम्बूम, अझांडे, याकोमा, बनझिरी हे हांगाचे मुखेल वंशीक गट आसात. देशाचे वट्ट लोकसंख्येंतले सुमार ६०% लोक जडप्राणवादी, ३५% किरिस्तांव आनी ५% इस्लाम धर्माचे आसात. पिकाळ देगणांमदीं आनी न्हंयांच्या देगांनी लोकवसती दाट आसा. चडशे लोक निग्रो-आफ्रिकन आसून ते वेगळया-वेगळया जमातींमदले आसात. तांची भाशाय वेगवेगळी आसा. सांगो ही देशांतली अधिकृत भास. पूण फ्रेंच ही हांगाची शासकीय भास आसा.

देशांतली शिक्षण वेवस्था मागाशिल्लीच आशिल्ल्यान साक्षरतायेचें प्रमाण खूब उणें आसा. तांत्रिक आनी शेतकीशिक्षणाचेर चड भर दिल्ली आसा. बांगी हांगा विद्यापीठ आसून तातूंत कायदो, विज्ञान आनी वैजकी शिक्षण दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**मध्य प्रदेश :** भारतांतलें सगळयांत व्हडलें घटक राज्य. क्षेत्रफळ : ४,४३,४४६ चौ. किमी. लोकसंख्या : ६६,१३५,८६२ (१९९१). देशांत, हें राज्य सगळयांत मदीं आशिल्ल्यान ताका 'मध्य प्रदेश' हें नांव पडलें. १७°४७उ. ते २६°३५' उ. अक्षांश आनी ७४°उ. ते ८४°३०' उ. रेखांश असो ह्या राज्याचो विस्तार आसून राज्याचे उत्तरेक उत्तर प्रदेश, ईशान्येक उत्तर प्रदेश आनी बिहार, उदेंतेक बिहार आनी ओरिसा, दक्षिणेक आंध्र प्रदेश, नैऋत्येक महाराष्ट्र, अस्तंतेक गुजरात आनी वायव्य दिकेक राजस्थान हीं भारतांतलीं घटक राज्यां आसात.

भोपाळ ही राज्याची राजधानी. राज्याचो चडसो वाठार दर्या पातळेसावन ४८८ मी. उंचायेचेर पठारी प्रदेश आसून तो ल्हान-व्हड दोंगुल्ल्यो, रानां आनी न्हंयांनी व्यापला. चडशो न्हंयो उत्तर दिकेसावन व्हांवतात. तापी, नर्मदा, चंबळ, वैनगंगा, महानदी ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो आसात. तापी, नर्मदा ह्यो न्हंयो सातपुडा दोंगरावळींनी सुरू जावन अस्तंतेवटेन व्हांवतात. चंबळ न्हंय राज्याचे वायव्य वाठारांत सुरू जावन उत्तरेवटेन व्हांवता. वैनगंगा न्हंय महादेव दोंगरावळींतल्यान सुरू जावन दक्षिणेकडे व्हांवत वचून गोदावरी न्हंयेक मेळटा. महानदी न्हंयेचो, राज्याच्या आग्नेय वाठारांत उगम जावन ती पयलीं उत्तरेक आनी उपरांत उदेंतेक ओरिसा राज्यांत व्हांवत वता. तशेंच राज्याच्या वायव्य वाठारांतल्यान कालीसिंध, पार्वती; उत्तर वाठारांतल्यान बेटवा, सिंद, धसान, केन, शोण आनी उदेंतेकडल्यान हसदो (हसदेव), रिहांड, पैरी ह्यो न्हंयो उत्तरेवटेन व्हांवतात. शबरी ही आग्नेय शिमेवयली न्हंय दक्षिणेक सिलेरू न्हंयेक मेळटा आनी इंद्रावती न्हंय आग्नेय वाठारांतल्यान पयलीं उदेंतेकडे, उपरांत अस्तंतेकडे वचून दक्षिणेकडल्यान घुंवून आंध्र प्रदेशाक मेळटा. राज्यांत सैमीक तशेंच कृत्रिम सरोवरांय आसात. तंदुला तळें, रिहांड धरण, चंबळ न्हंयेवयलो गांधीसागर म्हत्वाचीं आसात.

राज्याचे अस्तंत, वायव्य आनी ईशान्य वाठार विंध्य पर्वत, माळव्याचे पठार आनी कैमूर दोंगुल्ल्यांनी, तशेंच दक्षिण वाठार सातपुडा दोंगर आनी महादेवाच्या दोंगरावळींनी भरला. उदेंत वाठारांत मैकल दोंगरावळ पातळळया. तेभायर विंध्य पर्वताचे उत्तरेक बुंदेलखंड पठार, वायव्य दिकेक मध्य भारत पठार, ईशान्येक बाघेलखंड पठार, उदेंतेक छत्तीसगढ द्रोणी आनी आग्नेय तोंकाक बस्तर दोंगुल्ल्यो पातळळयात.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणुकेचे नदरेन राज्याचे मुखेल तीन प्रकार करूं येतात १) विंध्य दोंगराळ प्रदेश आनी माळवा पठार. हो वाठार दर्या पातळेसावन सुमार ४५० ते ६०० मीटर उंचायेचेर आसा. २) दुसऱ्या प्रकारांत चड करून नर्मदा न्हंयेच्या लांब-रूंद देगणाचो आस्पाव जाता. ह्या प्रदेशाचे उत्तरेक विंध्य आनी दक्षिणेक सातपुडा ह्यो दोन दोंगरावळी आसून जबलपूरचे ईशान्य दिकेक ह्या न्हंयेदेगणाची उंचाय खूब कमी आसा. ह्या देगणांत खूब प्रमाणांत गाळ आशिल्ल्यान गंव उत्पादनाचे नदरेन तें म्हत्वाचें मानतात. ३) नर्मदा न्हंयेचे दक्षिणेक आशिल्ली सातपुडा दोंगरावळ तशेंच महादेवाचो दोंगर, मैकल दोंगरावळ ह्याच वाठारांत पडटा. राज्याचे उदेंतेकडलो वाठार सपाट आसून, अस्तंतेकडल्या माळवा पठारांत चंबळ देगणां आसात. माळवा पठार, नर्मदेचें देगण आनी सातपुडा दोंगरावळींतल्या कांय वाठारांतली माती काळी पिकाळ आसा जाल्यार राज्याचे उदेंतेकडली माती तांबडी आनी हळदुवी आसून कमी प्रतीची आनी रेंवट कशी आसा.

**हवामान :** भूंयरचणुकेप्रमाण हांगाच्या हवामानांत उणो-चड बदल जाल्लो मेळटा. उत्तरेकडल्या वाठारांत हवामान खर आसता पूण पठारी वाठारांत तें समशीतोश्ण आसता. उदेंत आनी दक्षिणेकडलें हवामान मातशें उश्ण आनी दमट आसता. राज्यांतलें हवामान मान्सून प्रकारचें आसून जून ते ऑक्टोबर ह्या काळांत हांगा चड पावस पडटा. मार्च ते मे हांगाचें तापमान २९° से. परसूय चड आसता आनी शियाळयांत हवा सुकी आनी सुखदिणी आसता. राज्याचे उदेंत आनी आग्नेय वाठारांत १५०सेंमी. परस चड पावस पडटा. पूण उत्तर आनी अस्तंत वाठारांत त्यामानान कमी पावस पडटा. सामकें अस्तंत तोंकाक १००सेंमी. परस कमी जाल्यार, चंबळ देगणांत ७५सेंमी. परसूय कमी पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** हांगा साल, ऐन, बिबळो, कोणो, साग, सालई ही वनस्पत मेळटा. साग आनी सालई हे रूख राज्याच्या

रान उत्पन्नाचे म्हत्वाचे घटक आसात. तशेंच करघई, अंजन, पळस, तेंदू, बाभूळ, खैर मोह ही वनस्पत हांगा चड प्रमाणांत मेळटा. विंध्य-कैमूर तशेंच सातपुडा, मैकल दोंगरावळ, बाघेलखंड पठार, चंबळ देगण आनी बस्तरचो प्रदेश हे राज्यांतले मुखेल रानटी वाठार आसात.

चर्मण्वती (चंबळ), नर्मदा, वेगवती (बेटवा) ह्या न्हंयांचे उल्लेख मेळटात. दोन लाख वर्सांपयलीं नर्मदा न्हंयेलागसार मनीस रावतालो अशें समजता. भीमबेटका हांगा पयलींच्यो घोली मेळ्ळयात. रेवा, मंदसोर, नरसिंहगढ, भोपाळ, हुशंगाबाद, सागर, सुरगुजा आनी रायगढ ह्या जिल्ह्यांनी मेळिल्ल्यो




हांगाच्या रानांनी वाघ, बिबटो, गवो, चितळ, वांस्वेल, रानरेडो, सांबर हीं जनावरां मेळटात. तशेंच काळवीट, भोंकपी हरणां, तरस, कोलो, रानटी सुणो हींय जनावरां ह्या राज्यांत आसात. गिधाड, घार, गरूड, मोर आनी हेर तरांचीं सवणीं हांगा मेळटात. कान्हा आनी बांधोगढ हीं रानां खास मोनजातीखातीर राखून दवरल्यांत.

**इतिहास** : मध्य प्रदेश राज्याचो इतिहास खूब पोरनो आसा. पुर्विल्ल्या हिंदू साहित्यांत विंध्य, अमरकंटक, चित्रकूट, हे दोंगर तशेंच

घोली, आठ हजार वर्सां पयलीं मनशाच्यो सुवाती आसुंये अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. ऋग्वेदांतलो दक्षिणापथाचो उल्लेख, आर्यांनी विंध्य पर्वत हुंपिल्ल्याचो उल्लेख, कात्यायनान ह्या वाठाराचें केल्लें वर्णन तशेंच सुत्तानिपाठ ह्या पाली भाशेंतल्या बौध्द ग्रंथांतलें ह्या वाठाराचें वर्णन हाचे वयल्यान हाच्या पुर्विल्ल्या इतिहासाचो अदमास येता.

चंद्रगुप्त मौर्याच्या वेळार उज्जैन ही अवंती देशाची राजधानी आशिल्ली. सांची हांगा, सम्राट अशोकान बौध्द धर्माच्या प्रसाराखातीर

केल्ल्यो राजाज्ञा पळोवंक मेळटात. दतिया जिल्ह्यांतले आनी रूपनाथ हांगाचे शिलालेख, पुण्यमित्र शुंगाच्या काळांत मगध राज्याचो, अवंती हो एक वांटो आशिल्ल्याचो उल्लेख, मिलिंद राजाच्या मगधावयले घुरये उपरांत शुंग साम्राज्याची पाटलिपुत्रासावन विदेशाक हालयल्ली राजधानी, शुंगांनी मध्य भारतांत स्थापणूक केल्लें राज्य हाचे वयल्यान ह्या प्रदेशाची पुर्विल्ली परंपरा समजता. इ. स. पयलीं पयल्या शेंकड्याच्या निमाणेकडे आंध्र-सातवाहन आनी उपरांत १०० वर्सांनी कुशाण ह्या घराण्यांनी ह्या प्रदेशाचेर राज्य केलें. उदेंत अस्तंत आनी मध्य प्रदेशाच्या हेर वाठारांचेरूय सातवाहनांचो शेक चलतालो. उपरांत शक वा कर्दमक राजांनी सातवाहनां कडल्यान स देश जिखले. कर्दमक राजा राज्य करतना उज्जैनची विद्या आनी संस्कृतीचें केंद्र म्हूण उदरगत जाली. तिसऱ्या शेंकड्यांत राज्याचे कांय वाठार इक्ष्वाकू, अभीर आनी वाकाटक राजांच्या शेकातळा गेले. चवथ्या शेंकड्यांत कांय राज्यां गुप्त साम्राज्यांत विलीन जालीं. समुद्रगुप्तान कोसल, महाकांतार हे प्रदेश जिखले. दुसऱ्या चंद्रगुप्तान शकांकडल्यान माळवा जिखून घेतलो. शकां उपरांत औलिकरांनी गुप्तांचें मांडलिक म्हूण (आर्विल्लें मंदसोर) हांगासावन राज्य करपाक सुरवात केली. पांचव्या शेंकड्याच्या शेवटाक वाकाटकांनी गुप्तांक बुंदेलखंडांतल्यान धांवडायले. हुणांचे घुरयेउपरांत गुप्त आनी औलिकर हांचीं राज्यां सोपलीं. ईश्वर्वमन मौखरीन, कुमारगुप्ताचो पूत दामोदर गुप्त हाका हारोवन, मौखरी राज्यांत माळव्याचो आस्पाव केलो आनी ताच्या वंशजांनी बुंलदेखंड जिखलो.

मौखरी आनी देवगुप्त हांच्या झुजावेळार माळव्यांत कलचुरी राजघराण्याचो जल्म जालो. सव्या शेंकड्यांत चालुक्यांनी कलचुरी राज्याचेर चाल केली. मजगतीं भडोचलागसारच्या गुर्जरांनी आपलें म्हत्व वाडयलें आनी अस्तंत माळवो कलचुरींकडल्यान मैत्रकांकडे गेलो. त्याच वेळार भारतांत हर्षवर्धन गादयेर येतकच ताणें कलचुरी राजांचे उदेंत माळव्यांतले हक्क काडून घेतले. तेन्ना कलचुरी राजे उदेंत मध्य प्रदेशांत परतून गादयेर आयले.

आठव्या शेंकड्याच्या शेवटाक राश्ट्रकूट राजा दंतिदुर्ग हाणें उज्जैन जिखलें. उपरांत थंय प्रतीहारांची सत्ता आयली. धाव्या-इकराव्या शेंकड्यांत, प्रतीहारां उपरांत कांय काळ थंय परमारांचें राज्य आशिल्लें. मजगतीं णवव्या शेंकड्यांत, बुंदेलखंडांत चंदेल घराण्याचो उदय जालो. चंदेल आनी गुर्जर प्रतीहार हांचेभितर खर सत्तासर्त चलताली. तेराव्या शेंकड्याचे सुरवेक कुत्बुद्दीन ऐबकान कालिंजराचेर घुरी घालून चंदेल राजा परमर्दीकडे कबलात केली. परमर्दीचो मंत्री अजयदेव हाणें परमर्दीचो खून केलो, तेन्ना कुत्त्बुद्दीनान कालिंजर लुटलें आनी महोबा जिखलें. परमर्दीचो पूत त्रैलोक्यवर्मन हाणें चडसो प्रदेश पर्थून जिखून आपली सत्ता गाजयली. अलाउद्दीन खल्जीन १३०९ वर्सा दमोघ जिखमेरेन चंदेल राजे राज्य करताले. चंदेल पडटकच थंय ल्हान ल्हान कितलींशींच राज्यां आयलीं. बाघेलखंड हें तातुंतलेंच एक आसून, बांधोगढ हें ताचें राजपाटण आशिल्लें. अकबराच्या वेळार बाघेलखंडाचे दोन वांटे जाले. एक वाघेलांचे सत्तेखाला आशिल्लो आनी दुसरो मोगल साम्राज्यांत आस्पाविल्ल्या अलाहाबाद सुभ्यांतलो कालिंजर सरकार प्रदेश. औरंगजेबान रेव्याच्या लागसारचो प्रदेश कालिंजर सरकारांत घालो. ताच्या मरणाउपरांत परतून वाघेल राज्य आयलें. १८१२ आनी १८१३ वर्सा वाघेल राजान ब्रिटिशांकडे राखणेखातीर कबलात केली.

सोळाव्या शेंकड्यांत गढ-मंडलाच्या गोंड वंशाच्या, संग्रामशाह ह्या ४७ व्या राजान आपलें राज्य सागर, दमोह, भोपाळ, नर्मदेचें देगण, मंडला आनी सिवनी ह्या प्रदेशांचे ५२ गड मेळून स्थापणूक केली. अठराव्या शेंकड्यांत बख्त बुलंदान छिंदवाड्यालागसार देवगढ हांगा एका गोंड राज्याची स्थापणूक केली. राज्याचें राजपाटण नागपूराक व्हेलें. देवगढ राज्यांत आर्विल्लें बेतूल, छिंदवाडो, सिवनी, बालाघाट आनी महाराष्ट्रांतलें नागपूर आनी भंडारा जिल्हे हांचो आस्पाव जाता. गोंडवन आदिवासींच्या शेकातळा आसतना गढ-मंडला, देवगढ आनी चांदा हीं तीन घराणीं एक जालीं. आतांच्या मध्य प्रदेशाचे अस्तंतेक एका वाठारांत मोगलांचो शेक चलतालो. मदल्या वाठारांत गोंड राजा आशिल्ले. छत्तीसगढांत कलचुरी घराणें राज्य करतालें. मराठे-बुंदेले हांच्यामुखार गोंडांचो निभाव लागलोना आनी अठराव्या शेंकड्यांत गोंड सत्ता नश्ट जाली.

इकरा ते पंदराव्या शेंकड्यांमेरेन बुंदेले हांणी गढ-कांदर हांगा राज्य केलें. सोळाव्या शेंकड्यांत ते ओर्छा हांगा गेले. चंपतराय आनी ताचो पूत छत्रसाल हांणी मोगल सत्तेक तोंड दिलें. छत्रसाल हो विंध्य पठार आनी नर्मदा देगण हांच्या व्हड प्रदेशाचेर शेक चलयतालो. १७२८ वर्सा अलाहाबादचो सुभेदार मुहम्मदखान बंगश हाचेवांगडा झुजपाक छत्रसालान पेशव्यांचो पालव घेतलो. तेखातीर पेशव्यांक ताच्या राज्याचो १/३ वांटो मेळ्ळो (१७३५) आनी पेशव्यांची शीम सुभ्यामेरेन पातळ्ळी. पेशव्यांखातीर चौथाय वसूल करपाक, रघूजी भोसले बेरार (विदर्भ) आनी गोंडवनांत आयलो (१९३७). ताणें १९४३ मेरेन देवगढ, छत्तीसगढ, चांदा (चंद्रपूर) मराठ्यांच्या शेकातळा हाडलें. कटक-सबळपूरमेरेन शीम वाडोवन नागपूराक आपलें मुखेल ठाणें केलें.

१३०५ ते १३९८ मेरेन माळवो हो दिल्ली सुलतानशाहीचो वाठार आशिल्लो. तैमूरलंगाचे घुरयेन दिल्ली खिळखिळी करून उडयली. माळव्याचो राज्यपाल दिलावरखानान हीच संद सादली आनी आपलें स्वातंत्र्य घोशीत केलें. १४३६ वर्सा माळव्याच्या खल्जी घराण्याची स्थापणूक जाली. पूण गुजरातचो तो वाठार जातकच माळव्याचें स्वातंत्र्य सोंपलें. १९६२ वर्सा सावन मोगलांचो शेक सुरू जालो. उपरांत मराठ्यांनी माळवा घेतलो आनी मराठे-ब्रिटीश हांचेभितर तिसरें झूज जावन मराठ्यांची सत्ता सोंपली. एक कबलात करून सर जॉन मॅल्कम हाणें ग्वाल्हेर आनी इंदूर ह्या संस्थानांच्या नियंत्रणाखाल आशिल्लो कांय प्रदेश स्वतंत्र करून

तातुंतल्यान १५ राजपूत आनी कांय मुसलमान संस्थानां निर्माण केलीं. ही वेवस्था भारत स्वतंत्र जायमेरेन आशिल्ली. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक भोपाळचे नवाब आनी मराठे सरदार हांचेभितर झुजां जातालीं. शिंद्यांनी हुशंगाबादाचेर चाल केल्ली. त्याचवेळार पेंढाऱ्यांचो उपद्रव कितलींशींच वर्सां चालू आशिल्लो. पेशवे हारतकच सागर आनी नर्मदा-देगणां ब्रिटिशांकडे आयलीं आनी भोसल्यांच्या राज्याचो कांय वांटोलेगीत ब्रिटिशांकडे आयलो.

ब्रिटिशांच्या काळांत सद्याच्या मध्य प्रदेश राज्याचे दोन वांटे जाल्ले. ब्रिटिशांच्या शेकातळा आशिल्लो हो प्रदेश सेंट्रल प्रॉव्हिन्सेस अँड बेरार (सी. पी. अँड बेरार) असो आशिल्लो. जाल्यार संस्थानी राजवटीखाल आशिल्ल्या प्रदेशाक सेंट्रल इंडिया एजन्सी म्हण्टाले. हातूंत सुरवेक माळव्याचो आस्पाव आशिल्लो. उपरांत बुंदेलखंड आनी बाघेलखंड हांचोय आस्पाव जाल्लो. १९४७ वर्सा दोनूय सी. पी. अँड बेरार आनी सी. आय. ए. हे सेंट्रल इंडिया एजन्सी (भोपाळ), मध्य भारत आनी विंध्य प्रदेश ह्या तीन ल्हान राज्यांनी वांटले. सी. पी. अँड बेरार हाचें मध्य प्रदेश अशें नांव बदललें. १९५६ वर्सा राज्य पुनर्रचणुकेच्या वेळार पोरन्या मध्य प्रदेशाचे सतरा हिंदी भाशिक जिल्हे, मंदसोर जिल्ह्यांतलो सुनेल प्रदेश सोडल्यार उरिल्लें मध्य भारत राज्य, भोपाळ आनी विंध्य प्रदेश हीं राज्यां आनी पोरन्या राजस्थानाच्या कोटा जिल्ह्यांतलो सिरोंज धरून सद्याचें मध्य प्रदेश राज्य जालां.

**राज्यवेवस्था :** राज्यांत एक विधानसभा आसून ३२० सदस्य आसतात. भारताचे संसदेंत मध्य प्रदेश राज्यांतल्यान लोकसभेचेर ४० आनी राज्यसभेचेर १६ प्रतिनिधी वेंचून दितात. राज्याचे ११ विभाग आसून दर एका विभागाचेर आयुक्ताची नेमणूक केल्या. त्या विभागांचीं मुखेल कार्यालयां भोपाळ, बिलासपूर, ग्वाल्हेर, हुशंगाबाद, इंदूर, जबलपूर, रायपूर, रेवा, सागर आनी उज्जैन हांगा आसात. १९८२ वर्सा राज्याची ४५ जिल्ह्यांनी वांटणी केल्या. भोपाळ हांगा राज्याचें प्रशासकीय कार्यालय आसा.

**अर्थीक स्थिती :** राज्याचे पिकावळींत ५५% शेतीचो वांटो आसा. राज्यांतल्या कश्टकरी लोकांतले ८०% लोक ह्या क्षेत्रांत काम करतात. सुमार १८५ लाख हेक्टर जमीन पिकावळीखाल आसा. भारताचे धान्य पिकावळींत वट्ट उत्पन्नांत मध्य प्रदेश राज्याचो वांटो असो आसा - तांदूळ ८%, ज्वारी १७%, मको ९%, मिलेट १०%, गंव ११%, सातू ७%, तेलबियो आनी दाळ ८%. तशेंच हांगा कापूस आनी ऊंस पिकता.

खरीप आनी रब्बी अशीं दोनूय पिकां हांगा व्हड प्रमाणांत घेतात. सोयाबीनचें उत्पन्न, सबंद देशांत हांगा चड येता. विंगड विंगड फळांच्या उत्पादनाक हांगा अनुकूल हवामान आनी घटक आशिल्ल्यान फळ उत्पादनाक खूब वाव आसा. तशेंच हांगा गोरवां, मेंढऱ्यो, बोकडां, कुकडां, घोडे हीं जनावरांय व्हड प्रमाणांत आसात.

चंबळ देगण येवजण, तवा प्रकल्प, बार्गी आनी हसदो येवजण, महानदी जलाशय प्रकल्प आनी बार्गी, नर्मदासागर, बाणसागर ह्यो राज्यांतल्यो म्हत्वाच्यो उदका शिंपणावळीच्यो येवजणी आसात. कोर्बा, सातपुडा, वैधान आनी बिरसिंगपूर हांगाचीं कोळशाचेर आदारिल्लीं औश्णीक विद्युत् निर्मितिकेंद्रां पुराय जातकच मध्य प्रदेश राज्य वीज उत्पादनांत भारतांतलें सगळयांत व्हडलें राज्य थारतलें.

**खनिज संपती :** मध्य प्रदेश राज्यांत सु. ३० खनिजांचें उत्पादन करतात. बेतूल, बिलासपूर, छिंदवाडा, शहडोल, सिधी आनी सुरगुजा जिल्ह्यांनी दगडी कोळशाच्यो खाणी आसात. वर्साक सरासरी २८० लाख टन कोळसो मेळटा. देशाच्या वट्ट सांठ्यांतलो ३५% कोळसो मध्य प्रदेशांत मेळटा.

मंडला आनी बिलासपूर जिल्ह्यांनी भारत ॲल्युमिनियम कंपनीन ८.६लाख टन बॉक्सायटच्या सांठ्याचो सोद लायला. तातूंत ५०% ॲल्युमिन आसा. राज्याच्या भूविज्ञान विभागान, रायगड जिल्ह्यांत ८३ लाख टन बोक्सायट आसा असो सोद लायला. देशाच्या वट्ट उत्पादनांत ४४% बोक्सायट ह्या राज्यांत मेळटा.

बालाघाट जिल्ह्यांत सुमार ५८० लाख टन तांब्याचे खनिजांचे सांठे मेळ्ळयात. सबंद राज्यांत म्हळयार बस्तर, छत्तरपूर, ग्वाल्हेर, सिधी ह्या जिल्ह्यांनी सुमार १,००० लाख टन सांठो आसा. मंडला जिल्ह्यांत, डोलोमाइटाचो ३२० लाख टन सांठो आसा. चुन्याचे खडक जे शिमीट करपाक उपेगी पडटात, ते व्हड प्रमाणांत मेळटात. हिऱ्याच्यो खाणी मध्य प्रदेशांतूच मेळटात. पन्ना, छत्तरपूर, दमोह, सटणा आनी सागर ह्या जिल्ह्यांनी हिऱ्यांचे सांठे आसात.

मँगनीज, कथिल हे धातूलेगीत ह्या राज्यांत मेळटात. तशेंच ॲस्बेटस, वैदूर्य, फेल्स्पार, फ्ल्युओरस्पार, काचवालुका, ग्रॅफाइट, जिप्सम, निकेल, रंगीत माती, पायराइटे हे धातूय राज्यांत मेळटात.

**उद्देग धंदे :** खाणकाम, निर्मिती उद्देग, बांधकाम, विद्युत् निर्मिती हे उद्देग चलतात. भिलाईचो पोलाद कारखानो (१९५९), भोपाळ हांगाचो अवजड विद्युत्उद्देग (भेल १९६१), कोर्बा हांगाचो ॲल्युमिनियम प्रकल्प (१९७३) ह्या व्हड उद्देगांची थंय स्थापणूक केल्या. तशेंच नवो रेल्वे प्रकल्प, विद्युत् निर्मिती येवजण, खाणकाम हेय उद्देग चलतात. सुती कापड उद्देग, अन्नपदार्थ उद्देग, मूलधातू आनी मिश्रधातू उद्देग, रसायनां आनी रासायनिक पदार्थ निर्मिती उद्देग, लाकूड- लाकडाच्यो वस्तू आनी फर्निचर उद्देग, वीजयंत्रसामग्री आनी उपकरणां हांचे निर्मितीउद्देग हेय थंयचे कांय म्हत्वाचे उद्देग जावन आसात. राज्याचे अर्थवेवस्थेंत ल्हान उद्देगांचो व्हड वांटो आसा. रेशीम उद्देग, खादी ग्रामोद्योग हांचींय केंद्रां आसात. दुसरे म्हत्वाचे उद्देग म्हळयार सिमेंट, साकर, दाट पुठ्ठे, कागद, भिकणां तेल, मातयेचीं आयदनां, कापड निर्मित यंत्रां, ओतीव पोलाद,

वखदां, बिस्किट निर्मिती, अभियांत्रिकी, यांत्रिक हत्यारां आनी अवजारां, रेयॉन आनी कृत्रिम रेशीम उत्पादन ह्या उद्देगांचो आस्पाव जाता. हातमाग उद्देगांखातीर चंदेरी आनी महेश्वर हे गांव प्रसिध्द आसून खेळणीं, मातयेचीं आयदनां, पट्टीकाम, लाकूडकाम, झारीकाम, कातडी वस्तू, तांब्या-पितुळचीं आयदनां हेय परंपरिक उद्देग राज्यांत व्हड प्रमाणाचेर चलतात.

१) भारत ॲल्युमिनियम कंपनी- कोर्बा; २) भारत कोकिंग कोल लि.- कुसमुंडा; ३) भारत हेवी इलेक्ट्रिकल्स- भोपाळ; ४) सिमेंट कॉर्पोरेशन ऑफ इंडिया लि. - ३ कारखाने- मांघार, अकलतारा आनी नयागाव; ५) कोल इंडिया लि.; ६) भारतीय अन्न निगम उज्जैन; ७) हिंदुस्थान कॉपर लि. - मालंजखंड; ८) मँगॅनीज ओर (इंडिया) लि. - उकवा; ९) राश्ट्रीय खनिज विकास निगम - बैलादिला, पन्ना; १०) राश्ट्रीय वृत्तपत्री कागद आनी कागद कारखानो (नेपा मिल्स) - नेपानगर; ११) राश्ट्रीय कापड निगम (मध्य प्रदेश) लि. - ५ गिरण्यो; १२) भारतीय पोलाद प्राधिकरण - (सेल) - भिलाई; १३) द इंडो - बर्मा पेट्रोलियम कंपनी - कोर्बा हे हांगाचे मुखेल केंद्रीय उपक्रम. तशेंच गव्हर्नमेंट ओपियम अँड अल्कलॉइड फॅक्टरी - नीमच, सरकारी कागदी चलन आनी दस्तऐवज छापखानो-हुशंगाबाद, बँक नोटी छापखानो- देवास, सरकारी दारूगुळो कारखाानो - खमारिया-कटनी, वाहनांचो कारखानो, सेनासामुग्रीचो कारखानो, भारतीय डाक आनी तार कार्यालयाची यंत्रशाळा - जबलपूर, आग्नेय रेल्वेची यंत्रशाळा - रायपूर, हेय उपक्रम ह्या राज्यांत आसात.

'मध्य प्रदेश उद्देगीक विकास निगम', 'मध्य प्रदेश राज्य उद्देग निगम', 'मध्य प्रदेश लघुउद्देग निगम', 'मध्य प्रदेश राज्य शेतकी - उद्देगीक विकास निगम,' 'मध्य प्रदेश राज्य वनविकास निगम', 'मध्य प्रदेश राज्य वित्त निगम', अशा तरेच्या कितल्याशाच उद्देगीक उपक्रमांची मध्य प्रदेश राज्यान स्थापणूक करून उद्देगांची उदरगत घडयल्या.

**लोक आनी समाजजीण** : हांगा सगळया धर्मांचे लोक आसले तरी पूण हिंदू भोवसंख्येन आसात. देशांतल्या हेर राज्यांपरस मध्य प्रदेश राज्यांत मागाशिल्ल्या जाति-जमातींची संख्या चड आसा. आदिवासी जाति-जमातींचे लोक राज्यांतले वट्ट लोकसंख्येच्या ३३% आसून तांची वसती राज्याच्या दक्षिण वाठारांत, चड करून बस्तर जिल्ह्यांत, तशेंच सातपुडा दोंगरावळींनी आसा. राज्यांतल्या लोकांभितर चडकरून दोन वांशिक गट आसात. उत्तर वाठारांत आनी नर्मदेच्या देगणांत रावपी लोक आर्यवंशाचे आनी दक्षिण, उदेंत वाठारांत रावपी लोक द्रविड वंशाचे आसात. द्रविड लोकांत आदिवासी जाति-जमातींतल्या गोंड लोकांची संख्या सगळयांत चड आसा. राज्यांत भिल्ल, बैगा, गोंड, कोरकू, कोल, कमार, मुडिया, माडिया ह्यो मुखेल आदिवासी जाती आनी जमाती आसात. हातुंतल्यो गोंड, मुडिया, माडिया हांची संख्या बस्तर जिल्ह्यांत चड आसा. तशेंच सुरगुजा जिल्ह्यांतल्यो पाओ आनी कोरवा, जशपूर जिल्ह्यांतली उराव, बेतूलांतल्यो मुंडा आनी कोरकू, मंडलांतल्यो गोंड आनी बैगा, छत्तीसगढ जिल्ह्यांतल्यो परजा, भात्रा आनी झाबुआ, भोपाळ आनी माळव्यांतल्यो भिल्ल, भिलाला आनी शिवपुरी वाठारांतली सहरिया ह्यो जमाती मुखेल आसात. भारतांतल्या वट्ट गोंडांतले ६६% गोंड लोक मध्य प्रदेशांत रावतात.

**भाशा आनी साहित्य** : हिंदी ही राज्याची मुखेल भास, सगळया लोकांक समजता. उदेंती हिंदीच्यो अवधी, बाघेली आनी छत्तीसगढी ह्यो बोली चडकरून बाघेलखंड, सुरगुजा छत्तीसगढ, जबलपूर आनी मंडला ह्या जिल्ह्यांनी उलयतात. अस्तंती हिंदीची बुंदेली ही बोली चडशी राज्याच्या मदल्या जिल्ह्यांनी उलयतात. मालवी ही बोली राज्याच्या अस्तंत वाठारांत उलयतात. आदिवासी लोक भिल्ली, गोंडी, हलवी ह्यो भासो उलयतात. तशेंच मराठी, उर्दू, ओडिया, तमिळ, गुजराती, इंग्लीश, तेलुगू, बंगाली ह्योय भाशा राज्यांत उलयतात. मध्य प्रदेशाची साहित्य परंपरा व्हड तशीच खूब पोरनी आसा. जबलपूर हें साहित्याचें केंद्र आसा. हांगाचे भवभूती, राजशेखर, वराहमिहिर, आचार्य सोमशंभू, भारवी, दंडी, नागार्जुन ह्या साहित्यिकांक भोवमानाची सुवात फावो जाल्या. संस्कृत भाशेंतल्या साहित्या वांगडाच अपभ्रंश, प्राकृत, पाली ह्या भाशांनी लेगीत बरी साहित्य निर्मणी जाल्या.

मध्य प्रदेश राज्याचो हिंदी साहित्यांत मोलादीक वांटो आसा. कुंभनदास आनी चतुर्भुजदास हे हिंदींतले नामनेचे कवी आसात. हरिदास स्वामी हाणें कृष्णभक्तीचेर कविता बरयल्यो. तशेंच गोपाल, माखन, मदनभट्ट हांणी रामभक्तीचेर कविता बरयल्यो. कुमार मणी, कृष्णभट्ट, पद्माकर, तशेंच बिहारी, केशवदास, कवी भूषण हांकां हिंदी साहित्यांत मानाची सुवात आसा. जगमोहनसिंह हाचें वाङमय प्रसिध्द आसून ताणें मेघदूताचो हिंदींत अणकार केला. लोचन प्रसाद पांडे, मुकुटधारी पांडे, माखनलाल चतुर्वेदी, राश्ट्रवादी कवी सुभद्राकुमारी चौहान, पं. द्वारकाप्रसाद मिश्र, विनय मोहन शर्मा हांणी द्विवेदी युगांत हिंदींत उत्कृश्ट साहित्य बरयलां. तशेंच आर्विल्ल्या काळांतले रामकुमार वर्मा, भवानीप्रसाद मिश्र, भवानीप्रसाद तिवारी, रामानुजलाल श्रीवास्तव, गजानन माधव मुक्तिबोध, प्रभाकर माचवे, गिरिजाकुमार माथुर, शिवमंगलसिंह 'सुमन'. हरिशंकर परसाई, शरद जोशी, श्रीकांत वर्मा हांणी हिंदी साहित्यांत मोलादीक वावर केला.

**म्हत्वाचीं थळां** : इतिहासीक, भूगोलीक नदरेन हें राज्य पर्यटकांखातीर नामनेचें जावन आसा. ग्वाल्हेरचो किल्लो, मानसिंगाचो राजवाडो आनी राणी लक्ष्मीबाईचें हांगा स्मारक आसा. हांगा दरवर्सा जावपी तानसेन संगीत उत्सव प्रसिध्द आसा. शिवपुरी हांगा राश्ट्रीय उद्यान आसा. खजुराहोचीं देवळां, तातुंतल्या शिल्पांखातीर प्रसिध्द आसात. महोबा हांगाचो मदनसागर, जैन तीर्थंकर हांच्या कोरांतिल्ल्या मूर्तींपासत खूब नामना आसा. सांची हांगा बौध्द स्तूपांचेर जातककथा आनी सम्राट अशोकाचे जिणेंतले प्रसंग कोरांतल्यात. थंयच 'विदिशा' ही एक इतिहासीक

सुवात आसून एक ब्राह्मी शिलालेख आनी उदयगिरीचीं लेणीं आसात. भोपाळ हांगा ल्हान-व्हड तळीं, ताज-उल्-मशीद, मोती मशीद, जामा मशीद, कितल्योशोच बागो हीं पर्यटकांचीं आकर्शणां आसात. इंदूर हांगा लालबाग, माणिकबाग, पोरनो राजवाडो, नवो राजवाडो तशेंच जैनांचें काच मंदिर, छत्रीबाग आसात. उज्जैन हांगा बारा ज्योतिर्लिंगांतलें महाकालेश्वर हें एक ज्योतिर्लिंग आसा. मांडू हांगा अश्रफी महाल, जामा मशीद, जहाजमहाल आनी मांडवगड आसात. जबलपूर हांगा मदनमहाल, भेडाघाट आनी नर्मदेवयलो नामनेचो धबधबो आसा. ओंकारमांधाता, महेश्वर, धार, बांधोगढ, कान्हा, पंचमढी ह्यो सुवातीय पर्यटकांक ओड लायतात.

- माणिकराव राम नायक गावणेकार

## मध्वमुनीश्वर : (इ. स. चें १७-१८ वें शतमान).

एक मराठी संतकवी. हो नासिकाक रावतालो. ताच्या बापायचें नांव नारायण आनी आवयचें नांव द्वारावती आशिल्लें. हाचें मूळ नांव त्रिंबक. तो देशस्थ ऋग्वेदी माध्वसंप्रदायी ब्राह्मण आशिल्लो. ताचे आवय बापायक बरेच दीस भुरगें नाशिल्लें. फुडें त्र्यंबकेश्वरी अनुश्ठान करतकच शिवप्रसादान तांकां चलो जालो. म्हणूनच ताचें नांव त्रिंबक अशें दवरलें. आवय-बापायच्या हाताखाल ताणें मुळावें शिक्षण पुराय केलें. फुडें ताणें ब्रह्मज्ञानाचे प्राप्तीखातीर सप्तशृंगी देवीमुखार तप केलें. देवी प्रसन्न जावन तिणें त्रिंबकाक दृश्टांत दिवन सांगलें की आपल्या प्रदक्षिणावाटेर तुका जो कोण मेळटलो ताका तूं गुरू कर. तेप्रमाण तो प्रदक्षणां काडपाक गेलो, तेन्ना ताका शुक्राचार्यान वागाच्या रुपान दर्शन दिलें. तेन्ना त्रिंबकान ताचेमुखार साश्टांग नमस्कार घालो. तो उठून उबो रावलो तेन्ना साक्षात शुक्राचार्यान ताका दर्शन दिलें. उपरांत त्रिंबकान ताचेकडल्यान गुरूमंत्र घेतलो अशी आख्यायिका आसा.

त्रिंबकाचें लग्न जाल्लें. पूण गुरूकृपा जातकच ताचें संवसारांत मन रमना जालें. तो स्वच्छंद वागूंक लागलो. तेन्ना वैश्णव मंडळीन ताच्याआड मध्वाचार्याकडे कागाळ करून ताका शिक्षा करची अशें विनयलें. तेप्रमाण त्रिंबकाची चवकशी करूंक मध्वाचार्य नासिकाक आयलो. पूण त्रिंबकाक प्रत्यक्ष मेळटकच ताका ताची योग्यता पटली आनी देखून ताणें ताका मध्वमुनीश्वर म्हूण नमस्कार केलो. ते उपरांत मध्वमुनीश्वर तिर्थयात्रेक गेलो. वाटेंत ताणें जायते कडेन देवदेवतांच्यो मूर्ती स्थापन केल्यो आनी लोकांक जायते चमत्कार दाखयले. तिर्थयात्रेसावन परत येतकच ताणें आपलें उरिल्लें आयुश्य देवांचे उत्सव मनोवपांत आनी परमेश्वराच्या चिंतनांत सारलें.

मध्वमुनीश्वर एक बरो किर्तनकार आशिल्लो. ताणें किर्तनाखातीर जायती गीतरचना केल्ली. सद्या ताच्या नांवार सुमार सातशें पदां आसून तीं 'मध्वमुनीश्वरांची कविता' ह्या नांवान संकलीत आसात. ताची भास रसाळ आनी गावपासारकी आसताली.

- कों. वि. सं. मं.

## मध्वाचार्य : (जल्म : सुमार ११९९; मरण : सुमार १२७८).

एक तत्त्वज्ञ, आचार्य आनी पंथ-संस्थापक. माध्वमताचे लोक ताका वायुदेवाचो अवतार मानतात.

मध्वाचार्याचो जल्म सद्याच्या दक्षिण कॅनरा जिल्ह्यांतल्या उडुपी गांवालागसार 'रजतपीठ' (हालींचें कल्याणपूर) हांगा जालो. ताच्या बापायचें नांव मध्यगेहभट्ट आनी आवयचें नांव वेदवती. आवय-बापायन ताका वासुदेव हें नांव दवरील्लें. ताचेपयलीं जल्मल्ले ताचे व्हडले दोन भाव ल्हानपणांतूच भायर पडले. पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा वासुदेवान संन्यास घेवपाचो थारायलो. तेन्ना आवय-बापायक खूब वायट दिसलें. तांणी ताका खूब विरोध केलो. पूण ताचो निश्चेव खर आशिल्लो. तो उडुपी हांगा गेलो आनी अच्युतप्रेक्षमुनी ह्या गुरूकडल्यान संन्यासाश्रम घेतलो. त्यावेळार ताणें आपल्याक 'पूर्णप्रज्ञ' हें नांव घेतलें.



अच्युतप्रेक्ष यती हो अद्वैती आशिल्लो आनी मध्वाचार्य द्वैती. तेखातीर ह्या गुरू-शिश्याभितर खुबदां शास्त्राचेर वाद चलताले. पूण गुरून ताका वैचारीक स्वातंत्र्य दिल्ल्यान मध्वाचार्य आपल्या द्वैत मताचो पुरस्कार करतालो. ताणें उडुपीक द्वैत मताचेर प्रवचनां सुरू केलीं. ल्हव ल्हव ताची सगळयाक कीर्त जाली. फुडें अच्युतप्रेक्ष हाणें ताका आपल्या मठाचो उत्तराधिकारी केलो आनी ताका शंखाभिशेक घालून ताचें आनंदतीर्थ अशें दुसरें नांव दवरलें. फुडें ताणें आपल्या तत्त्वज्ञानाचो प्रचार करपाखातीर देशभर भोंवडी करपाचें येवजिलें. आपल्या गुरूवांगडा ताणें दक्षिणेंतल्या मंगळूर, विष्णुमंगलम, त्रिवेंद्रम, रामेश्वरम, श्रीरंगम ह्या क्षेत्रांनी भोंवडी केली. थंय वचून ताणें थंयच्या अद्वैती विद्वानांकडे भासाभास केली. दक्षिणेंतली यात्रा सोपोवन उडुपीक परत येतकच ताणें द्वैत मताक अणसरून गीतेचर भाश्य केलें.

कांय काळाउपरांत ताणें उत्तर भारताची यात्रा केली. हे यात्रेंत ताचे खुबशे शिश्य ताचेवांगडा आशिल्ले. गंगेंत न्हाण घेवन ते हिमालयांत बद्रिकाश्रमांत गेले. थंय तांणी बंदरीनारायणा मुखार गीताभाश्य वाचून दाखयलें. थंयसावन ते फुडें व्यासाश्रमाकडे गेले. वेदव्यासाचें दर्शन

घेवचें हो ताचो हे यात्रेचो मुखेल हेत आशिल्लो. परतीच्या प्रवासांत मध्वाचार्यान ब्रह्मसूत्रांचेर आपलें भाश्य तयार केलें. द्वैतमताची पुराय रचणूक ह्या ग्रंथांत आयल्या.

ही यात्रा करून उडुपीक परत येतकच थंय श्रीकृष्णाचे प्रतिमेची स्थापणूक केली. थंय तो नेमान श्रीकृष्णाची पुजा करतालो. फुडें आपले गैरहजेरींत पुजा चालू उरची म्हूण ताणें आपले आठ शिश्य वेंचले. दर एका शिश्यान दोन दोन म्हयने देवाची पुजा करची असो नेम घालून दिलो.

कांय काळ उडुपीक रावन मध्वाचार्य परत हिमालयांतल्या बदरिकाश्रमाचे यात्रेक गेलो. यात्रा करून परत येतकच महाभारत-तात्पर्य-निर्णय हो म्हत्वाचो ग्रंथ ताणें बरयलो.

ताणें सगळे मेळून सदतीस ग्रंथ बरयले. त्या ग्रंथांची यादी अशी आसा -

१) महाभारत-तात्पर्य-निर्णय, २) गीताभाष्य, ३) गीतातात्पर्य, ४) ब्रह्मसूत्रभाष्य, ५) ब्रह्मसूत्र अनुभाष्य, ६) भागवततात्पर्य, ७) दादशस्तोत्र, ८) तंत्रसार, ९) सदाचारस्मृती, १०) यतिप्रणवकल्प, ११) जयंती निर्णय (जयंतीकल्प), १२) प्रणयलक्षण, १३) कथालक्षण, १४) तत्त्वविवेक, १५) मायावादखंडन, १६) तत्त्वसंख्यान, १७) उपाधिखंडन, १८) प्रपंचमिथ्यात्वानुमानखंडन, १९) तत्त्वोद्योत, २०) अनुव्याख्यान, २१) यमकभारत, २२) संन्यासविवरण, २३) विष्णुतत्त्वनिर्णय, २४)-३३ दशोपनिषद-भाष्यां, ३४) कृष्णामृतमहार्णव, ३५) कर्मनिर्णय, ३६) ऋग्भाष्य, ३७) नृसिंहनखस्तोत्र.

मध्वाचार्याच्या शिश्यांभितर पद्मनाभतीर्थ, नरहरीतीर्थ, माधवतीर्थ आनी अक्षोभ्यतीर्थ हे मुखेल शिश्य आशिल्ले. त्रिविक्रम भट्ट हो ताचो आनीक एक बरो शिश्य आशिल्लो. ताणें मध्वाचार्याच्या भाश्याचेर तत्त्वदीप नांवाचो ग्रंथ बरयला. ताचोच पूत नारायण पंडित हाणें मध्वाचार्याचे जीणेचेर 'मध्वविजय' आनी 'मणिमंजरी' नांवाचे दोन ग्रंथ बरयले.

- कों. वि. सं. मं.

**मनी पंथ :** एक धर्मपंथ. इ. स. तिसऱ्या शेंकड्याचे सुरवेक मनी वा मणी नांवाच्या एका इराणी संतान ह्या पंथाची स्थापणूक केली. मनीचो जल्म दक्षिण बॅबिलोनियांत इ. स. सुमार २१५ वा २१६ त जालो. स्वताक ईश्वरी साक्षात्कार जाला आनी सगळयांत श्रेश्ठ अशा धर्माची स्थापणूक करपापासत देवान आपल्याक धाडला, तशेंच देवदूतान आपल्याक दृश्टान्त दिवन नवो धर्म स्थापन करूंक सांगला, आपूण निमाणचो आनी सगळयांत श्रेश्ठ असो प्रेशित जावन आसा अशे विचार तो मांडटालो. ताणें पिरायेच्या पंचवीस वर्सासावन धर्माच्या प्रचाराक सुरवात केली. इराणचो राजा पयलो शापूर हाणें ताका आपल्या साम्राज्यांत नव्या धर्माचो प्रचार करपाची परवानगी दिली.

आपलो धर्म आनी तत्त्वगिन्यान हांची उबारणी ह्या पंथान सत् म्हळयार बरें आनी असत् म्हळयार वायट ह्या तत्त्वांच्या द्वैताचेर केल्या. हीं दोनूय तत्त्वां एकमेकांआड आनी वेगळीं आसात. सत् हें तत्त्व उजवाडाच्या स्वरुपाचें आनी असत् हें तत्त्व काळखाच्या स्वरुपाचें आसा. उजवाडाचें साम्राज्य वयले वटेन आसून थंय ईश्वराची सत्ता चलता आनी काळखाचें साम्राज्य सकयले वटेन आसून थंय सैतानाची सत्ता चलता. सद्याच्या जगांत ह्या दोनूय तत्त्वांचें मिश्रण जालां. जेन्ना काळखाच्या बंधनांतल्यान उजवाड मुक्त जातलो, तेन्ना सगळया जगाचो नाश जातलो आनी परतून उजवाड आनी काळोख हांचीं राज्यां वेगवेगळीं स्वतंत्र राज्यां जातलीं, होच मोक्ष आसा. ह्या सिध्दांताच्या आदारान ह्या पंथान खुबशो पुराणकथा तयार करून तातूंत देव आनी सैतान हांचें झूज, जगांतल्या विंगड विंगड पदार्थांचे तशेंच मनीस, जनावरां हांचे निर्मणेचे विशय घेतल्यात. आचाराविशींय ह्या पंथान कांय नेम घाल्यात. सोरो, मांस हांचो आहार करप ना. काळखाचें प्रतीक आशिल्ल्या पदार्थांसावन पयस रावपाक सांगून, विशयवासनेची तृप्तीय वर्ज्य मानल्या. दिसांतल्यान चार वेळां न्हावन प्रार्थना म्हणची आनी प्रार्थना म्हण्टना प्रकाशतत्त्वाकडे म्हळयार सुर्याकडे वा चंद्राकडे तोंड करचें, असो नेम आशिल्लो. सामान्य अनुयायांक खर व्रत करप जमचेंना. हाका लागून संवसारी लोकांचो एक आनी वेंचीक लोकांचो एक अशे दोन गट करून तांच्या आचारांविशींच्या नेमांनी फरक केल्लो.

ह्या पंथांत खिस्ती धर्म तशेंच इराणांतल्या 'माजी' ह्या संप्रदायाचो आदार घेतला अशें स्वता मनीन म्हळां. ताणें 'अवेस्ता'चोय आदार घेवन जरथुश्त्राक प्रेशित मानला. नीतिशिक्षणाचे आनी हेर कांय विचार ताणें बुध्दाच्या उपदेशांतल्यान घेतल्यात आसुंये, अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. इराणांतले मिश्र उपासनेक लागून मनी पंथाक बरी पोसवण मेळ्ळी अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. मनी पंथाचे कांय धर्मग्रंथ काळा वांगडा शेणिल्ल्यान ह्या पंथाची म्हायती खिस्ती, माजी, इस्लाम ह्या हेर धर्मांच्या वा पंथांच्या ग्रंथांवयल्यान मेळटा. हातुंतल्या चडशा ग्रंथांनी ह्या पंथाचेर टीका केल्या. देखीकः कांय खिस्ती ग्रंथांनी ह्या पंथाच्या अनुयायांक काळखाचीं भुरगीं म्हूण हिणयलां. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणें मात चिनी तुर्कस्तानांत (तुर्फान) ह्या पंथाच्या ग्रंथांचीं कांय हातबरपां मेळळयांत. तशेंच १९३० वर्सा ईजिप्तांत मनीच्या लिखाणाचे कांय अणकार मेळळयात.

ह्या पंथाच्या धर्मगुरूचें पीठ सुरवेक बॅबिलन हांगा आशिल्लें, पूण उपरांत तें समरकंद हांगा व्हेलें. इराण, मेसोपोटेमिया, ईजिप्त, रोम, उत्तर आफ्रिका, तुर्कस्तान, चीन, भारत हांगा ह्या धर्मपंथाक बरेच अनुयायी मेळिल्ले. ऑगस्टीन हो खिस्ती संत, इ. स. ३७३ ते इ. स. ३८२ ह्या

काळांत म्हळ्यार खिस्ती धर्म आपणावचे पयलीं कांय वर्सां मनी पंथाचो अनुयायी आशिल्लो. माजी मताचे पुरोयत, खिस्ती अनुयायी, मुसलमान हांचेकडल्यान ह्या पंथाच्या अनुयायांक खूब त्रास जाले. रोमन साम्राज्य आनी चीन हांगा, कांय काळ तांचेर बंदीय घाल्ली. तेराव्या शेंकड्यांत मंगोल टोळयांनी आशियेचेर घुरयो घालतकच हो पंथ पुरायपणान काबार जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**मनु :** ऋग्वेदांत तशेंच हेर वेदांनी, मनु म्हळ्यार मनीसजातीचो पयलो मनीस वा पयलो पूर्वज अशें म्हळां. तेखातीर संस्कृत आनी हेर भारतीय भासांनी मानव, मनीस, मनुज अशे मनीसवाचक शब्द आसात. वैदिक साहित्यांत पयलो मर्त्य मनीस म्हूण ताचो उल्लेख आयला. तशेंच तातूंत, विवस्वत् वा विवस्वान हाचो पूत म्हूण 'वैवस्वत' अशें मनुचें विश्लेशण मेळटा.

मनु हो यज्ञसंस्थेचो पयलो प्रवर्तक आनी सगळे मनीस जातीक उजवाड मेळचो म्हूण अग्नीची स्थापणूक करपी पयलो मनीस अशें ऋग्वेदांत सांगलां. यजुर्वेदाच्या शतपथ ब्राह्मणांत मनु-वैवस्वत हो मनशांचो पयलो राजा आनी ताचोच सख्खो भाव यमवैवस्वत हो मृतांचो म्हळ्यार पितरांचो पयलो राजा म्हूण उल्लेख आसा.

परमेश्वरापसून चार मनु निर्माण जाले, अशें भगवद्‌गीतेंत म्हळां. हालीं प्रचलित आशिल्ले मनुस्मृतींत स्वायंभुव मनुच्या वंशांत स्वारोचिष, उत्तम, तामस, रैवत, चाक्षुष आनी वैवस्वत हे स मनु उत्पन्न जाले अशें सांगलां. म्हळ्यार सगळे मेळून मनु सात. तांणीच ही सगळी सृश्ट निर्मिली अशें थंय म्हळां. पुराणांनी मनु हें समाजाच्या प्रशासकाचें पद वा अधिकारपद म्हूण सांगून प्रशासकाक 'मनु' अशी संज्ञा आशिल्ली. हो प्रशासक युग बदलतकच धर्मवेवस्था तयार करता, ताका सप्तर्षींचो आदार आसता. मनु बदलतकच सप्तर्षी लेगीत बदलतात. कौटिलीय अर्थशास्त्रांत म्हळां, की जेन्ना मात्स्यन्यायान म्हळ्यार व्हड नुस्तें ल्हान नुस्त्याक गिळटा अशे सैमीक परिस्थितींत जेन्ना प्रजा वावुरताली तेन्ना लोकांनी विवस्वानाचो पूत मनु हाका राजा केलो. धान्य षष्ठांश आनी हेर कड्डणाचो धावो अंश मनुराजाक दिवपाचें लोकांनी मान्य केलें. अशे तरेची मनुची कथा महाभारतांतूय आयल्या.

पुराणीक कालगणनेप्रमाण सृश्टी निर्मणेसावन काळाचे १४ विभाग मानून तांकां 'मन्वंतर' अशी संज्ञा दिल्या. एकेका मन्वंतराची कालमर्यादा ४३ लाख २० हजार वर्सां इतली मानल्या. ह्या १४ मनुंचीं नांवां अशीं आसात -

१) स्वायंभुव, २) स्वारोचिष, ३) उत्तम, ४) तामस, ५) रैवत, ६) चाक्षुष, ७) वैवस्वत, ८) सावर्णि, (अर्कसावर्णि), ९) दक्षसावर्णि, १०) ब्रह्मसावर्णि (मेरू सावर्णि), ११) धर्मसावर्णि, १२) रूद्रसावर्णि (ऋतसावर्णि वा ऋभु), १३) रौच्य (देवसावर्णि ऋतधामन्), १४) भौत्य (विश्वकसेन, इंद्रासावर्णि, चंद्रसावर्णि).

सृश्ट निर्माण जावन स मन्वंतरां पुराय जावन सातवें मन्वंतर चालू आसून वैवस्वत मनु ह्या मन्वंतराचो अधिपती आसा. हाचो उल्लेख भगवद्‌गीतेंत आयला. भगवंतान कर्मयोगाचो उपदेश पयलीं विवस्वानाक केलो, विवस्वानान स्वताचो पूत मनू हाका केलो आनी मनुन आपलो पूत ईश्वाकू हाका केलो, अशें म्हळां.

खूब पुर्विल्ल्या काळांत, धर्तरेचेर संवसार बुट्टी आयली आनी ते बुट्टेंत सृश्टीचो कांय वांटो एका म्हापुरसान वाटायलो अशी एक कथा जगांतल्या पुर्विल्ल्या विंगड विंगड साहित्यांत आनी लोककथांनी मेळटा. ग्रीक आनी रोमन लोककथांनीय ही कथा आसा. तशेंच बायबल, कुराणांतूय ही कथा आयल्या. यजुर्वेदाच्या शतपथ ब्राह्मणांत ही कथा विस्तारान आयल्या. सगळे सृश्टींतली जीवसंपत त्या व्हड उदका बुट्टेंत व्हांवन वचपाक लागली. तेन्ना वैवस्वत मनुन एक व्हड तारूं तयार केलें. तातूंत कांय जनावरां, वनस्पत दवरली आनी हें तारूं एका नुसत्याचे शेपडेक बांदून दवरलें. उपरांत ताणें हें तारूं व्हरून हिमालयाच्या एका तेमकाक बांदलें. उदकाचो लोट उणो जातकच मनुन आपली धूव इला हिचेकडल्यान १०पूत निर्माण केले आनी मनीसवंश सुरू केलो अशें महाभारतांत म्हळां. हिंदू धर्मशास्त्राचो आदार ग्रंथ म्हणून वळखुपी मनुस्मृति ही मनुची व्हड निर्मिती आसा.

**पूरक नोंद :** मनुस्मृति.

- कों. वि. सं. मं.

**मनुचरित्र :** एक तेलुगू महाकाव्य. विजयानगर हांगाच्या कृष्णदेवरायाचे राजवटींतल्या अष्टदिग्गजांतलो एक श्रेश्ठ कवी, अल्लसानी पेद्दन्ना, हाणें बरयल्लो 'मनुचरित्रमु' वा 'स्वारोचिष मनुसंभवमु' हो तेलुगूंतलो अप्रुप आनी श्रेश्ठ असो काव्यग्रंथ आसा. ह्या ग्रंथाच्यो ताडपत्रावयल्यो स पुराय प्रती आनी एक अर्दवट प्रत तशेंच कागदावयल्यो दोन हातबरपांच्यो प्रती चेन्नईच्या प्राच्य हातबरप ग्रंथालयांत आसात. कागदावयले एके प्रतीचेर अप्पय्यशास्त्रीची टीका आसा. महाकवी पेद्दन्न हाणें हो ग्रंथ कृष्णदेवरायाकूच ओंपला ताचेवयल्यान ताणें हो ग्रंथ १५०९ ते १५३० ह्या काळांत रचलो आसुंये. १९६२ वर्सा सी. पी. ब्राउन हाणें टीकेसयत मनुचरित्राची आवृत्ती उजवाडायली. पूण बुलुसू वेंकटरमणय्या हाणें उजवाडायल्ली टीकेसयत आवृत्ती प्रमाण मानतात. हालींच आंध्र प्रदेश साहित्य अकादमीनूय एक आवृत्ती उजवाडायल्या. ह्या काव्याची कथा अशी आसा-

आर्यावर्तांत वरूणा न्हंयेचे देगेर आशिल्ल्या अरूणास्पद ह्या नगरांत

प्रवर नांवाचो एक सोबीत, विद्वान ब्राह्मण रावतालो. एक दीस तागेर एक तपस्वी आयलो. त्या तपस्व्यान प्रवराक हिमालयाची भोंवडी करपाक सांगलें. तशेंच ताची ही भोंवडी बरेभशेन जावची म्हूण ताका एक लेप दिलो. हो लेप पांयांक लायतकच जाय ते सुवातेर सहजतायेन वचूंक मेळटालें. तपस्वी वतकच त्या लेपाच्या प्रभावान प्रवर हिमालयांत पावलो. हिमालयांत पावतकच हिमस्पर्शान ताचो लेप ना जालो. थंय ताका वरुधिनी नांवाची गंधर्वकन्या मेळ्ळी. प्रवराचें सोबीत रूप पळोवन ती ताचेर भाळ्ळी. तिणें ताका शीलभ्रश्ट करपाचे खूब यत्न केले पूण ते निर्फळ थारले. लेप पुशिल्ल्यान प्रवराक घरा परतुपाचो रस्तो मेळना जालो तेन्ना ताणें अग्नि देवतेची प्रार्थना केली. अग्निदेवतेन ताका घरा पावयलो. प्रवरान वरुधिनीचें प्रेम न्हयकारिल्लें पूण वरुधिनी प्रवराचेर प्रेम करीत आशिल्ली. वरुधिनीक प्रवर मेळचे पयलीं, एका गंधर्वकुमारान तिचेकडे मोगाची विनवणी केल्ली आनी तिणें ती न्हयकारिल्ली. वरुधिनी प्रवराचेर सामकी भाळ्ळया हें जेन्ना ताका योगबळान समजलें तेन्ना ताणें हीच संद सादली आनी प्रवराचें रूप धारण केलें. ताका पळोवन वरुधिनीक खूब उमेद जाली आनी तीं दोगांय उमेदीन रावपाक लागलीं. तांकां स्वरोचि नांवाचो पूत जालो. ताणें तीन लग्नां केलीं आनी वनदेवीपसून ताका मनु जालो. ब्रह्मदेवान ताका सृश्टीचें शासन सांबाळपाक दिलें. काव्याचे निमाणें मनुचें दशावतारस्तोत्र आसा.

'स्वारोचिष मनुसंभवमू' ची ही कथा मार्कंडेय पुराणांतल्यान आनी मारनाच्या तेलुगू मार्कंडेय पुराणांतल्यान घेतल्या. मारनाच्या तेलुगू मार्कंडेय पुराणांत ही कथा १५० कडव्यांनी आसा. पेद्दन्नान तीच कथा ६ सर्गांनी आनी ६०० कडव्यांनी बरयल्या. तशेंच तातूंत प्रबंधकाव्याचीं खाशेलपणां आसात.

मनुचरित्र हो तेलुगूंतलो पयलो म्हत्वाचो आनी आदर्श असो प्रबंध आसा. पेद्दन्नाच्या ह्या ग्रंथप्रकाराक तेलुगूंत 'प्रबंध' हें नांव आसा. ह्या प्रबंधाचें मूळ नांव 'स्वारोचिष मनुसंभवमु' अशें आसा. कारण तातूंत मनुचें चरित्र अशें ना, पूण स्वारोचिष मनुच्या जल्मामेरेनचोच कथाभाग आयला.

मनुचरित्राचेर तेलुगूंत कांय समीक्षापर ग्रंथ बरयल्यात ते अशे - १) अल्लसानिवारि अल्लिक जिगिबिगि (विश्वनाथ सत्यनारायण), २) पदहारव शताब्दपु प्रबंधवाङ्मयमु (डॉ. पी. दुर्गय्या), ३) प्रबंध साहित्य विकासमु (डॉ. के. व्ही. आर्. नरसिंहम्), ४) मनुचरित्र हृदयविष्करणमु (जे. शेषाद्रिशर्मा), ५) मनुचरित्राचा मूलाधार-मार्कंडेय पुराण (जी. व्ही. सुब्रह्मण्यम्). साधुपल्ली चंद्रशेखरशास्त्री हाणें मनुचरित्राचो कन्नडांत अणकार केला. तशेंच कुटिमद्दी शेषशर्मा हाणें ह्या ग्रंथाचो संस्कृत भाशेंत अणकार केला.

- कों. वि. सं. मं.

## मनुची, निकोलाव : (जल्म : १६३९; मरण : १७१७).

एक इटालियन भोंवडेकार. तो सतराव्या शेंकड्यांत भारतांत आयलो. तो मुळचो व्हेनिस हांगा रावपी आसुंये. ताचे वैयक्तिक जिणेविशीं चडशी म्हायती मेळना. तो पिरायेच्या चवदाव्या वर्सा घरांतल्यान भायर सरलो आनी लॉर्ड बेलोमाँट ह्या इंग्रज सरदारावांगडा तुर्कस्तान, इराणांतल्यान १६५६ वर्सा भारतांत सुरत हांगा आयलो.

उपरांत ताणें मोगल बादशाह शाहजहान हाचो व्हडलो पूत दारा शुकोव्ह हाच्या तोफखान्यांत नोकरी धरली. औरंगजेब आनी शाह आलम हांचेकडेन ताणें काम केलें. ह्या काळांत ताणें शिपायगिरी, वैजकी वेवसाय आनी राजनैतिक शिश्टाय हीं विंगड विंगड तरांचीं कामां केलीं. मोगलांच्या युध्द मोहिमांवांगडा ताणें दक्षिण हिंदुस्थान, राजस्थान, दक्षिण हैदराबाद ह्या प्रदेशांनी भोंवडी केली. अशेच एके मोहिमेंत इ. स. १६६५ वर्सा पुरंदर किल्ल्याच्या वाठारांत मिर्झाराजा जयसिंहावांगडा आसतना जयसिंहाचे छावणेंत ताची शिवाजी महाराजाकडे भेट जाल्ली.

स्वताचे आंगचे हुशारकायेन, उंचेलें शिकप नासून लेगीत ताणें आपल्या मर्यादीत वैद्यकीय गिन्यानाचेर वैद्यकीय वेवसाय सुरू करून जैत मेळयलें. ह्या वेवसायान ताची देशभर भोंवडी जाली.

औरंजेबाचे दक्षिणेंतले स्वारीच्या वेळार मोगलांच्या कर्तुपांक विटून, तो चेन्नईक स्थायीक जालो. ह्याच अदमासाक म्हळ्यार २८ ऑक्टोबर १६८६ दिसा ताणें एलिझाबेथ क्लार्क हे विधवेकडे लग्न केलें. तांकां एक चलो जालो पूण रोकडेंच ताका मरण आयलें. १७०६ वर्सा ताचे बायलेकूय मरण आयलें. उपरांत तो पाँडिचेरींत रावपाक लागलो. १४ जानेवारी १७१२ दिसा चेन्नईच्या गव्हर्नरान टॉमस क्लार्काची सगळी संपत ताका दिवन ताचो भोवमान केलो. हाचे वयल्यान तो पाँडिचेरींतल्यान परतून चेन्नईक आयलो आसुंये.

१६८६ - १७०६ ह्या काळांत, तो चेन्नईक आसतना, ताणें आपल्यो सगळयो यादी फ्रेंच आनी पुर्तुगेज भाशांनी बरोवन काडून चार वांट्यांनी उजवाडावपाखातीर पॅरिसाक धाडल्यो. ह्या यादींनी ताणें शिवाजीसयत त्या काळांतल्या सगळया नामनेच्या राज्यकर्त्यांचीं, फुडाऱ्यांचीं प्रसंगचित्रां काडून घेतिल्लीं.

१९०७ वर्सा, ताचे यादींचो पयलो इंग्लीश अणकार विल्यम आयर्विन हाणें 'स्तोरिआ दो मोगोर' ह्या नांवान उजवाडा हाडलो. ताची दुसरी आवृत्ती १९८१ वर्सा उजवाडा आयली. १९७४ वर्सा ज. स. चौबळ हाणें 'असे होते मोगल' हो मराठी अणकार उजवाडायलो.

मनुचीक औरंगजेब, पुर्तुगेज आनी जेझुइट हांचेविशीं सामकी तिडक आशिल्ली. मोगल काळ आनी मराठ्यांचो इतिहास हांची म्हायती दिवपी एक गरजेचो ग्रंथ म्हूण ताच्या ह्या यादींक मोलादीक म्हत्व आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मनुस्मृति** : हिंदू धर्मशास्त्राचो एक मुखेल ग्रंथ. मानव धर्मशास्त्र ह्या नांवानूय हो ग्रंथ प्रसिध्द आसा. हो ग्रंथ हिंदू संस्कृतीचो, आचारांचो आनी वेव्हारांचो आदार ग्रंथ थारला. हिंदू धर्मांत जल्मासावन ते मरणामेरेन जावपी संस्कारांचेर मनुस्मृतीचो प्रभाव दिसता.

मनु हो मानव जातीचो मूळावो पुरूस आशिल्ल्याचें वेदग्रंथांत म्हळां. पुराणकारांच्या मतांप्रमाण मनु हो ब्रह्मदेवाचो मानसपुत्र आनी धर्मशास्त्राचो आदिप्रणेतो आसा. ताणें मनुस्मृतीचे उत्पत्तीची कथा सांगल्या ती अशी- ब्रह्मदेवासावन सैम (विराट) उत्पन्न जालो, उपरांत मनुची उत्पत्ती जाली. मनुसावन भृगु, नारद प्रभृती ऋषींची उत्पत्ती जाली, ब्रह्मदेवान आपणें रचिल्लें शास्त्र मनुक शिकयलें, मनुन लोककल्याणाच्या उद्देशान तें धा ऋषींक शिकयलें. भृगु हाणें हें शास्त्र ह्या ऋषीकडच्यान मेळयलें. मुखार कांय ऋषी विंगड विंगड वर्णांचे धर्म जाणून घेवपाक मनुकडेन गेल्ले, तेन्ना मनुन तांकां भृगुकडेन वचपाक सांगलें आनी भृगुन त्या ऋषींक सांगिल्लें शास्त्र म्हळ्यारूच मनुस्मृती.

सद्या अस्तित्वांत आशिल्ली मनुस्मृती कोणें आनी खंयच्या काळांत रचली हें सांगप खूब कठीण. मनुस्मृतीचो आनी आदीम वेदवाङमयाचो खोलायेन अभ्यास केल्यार, पुराणांनी वा मानवजातीचो मुळावो पुरूस म्हूण ऋग्वेदांत ज्या मनुचो उल्लेख केला त्या मनुन हो ग्रंथ रचप शक्य ना अशेंय एक मत आसा. महाभारतांत, स्वायंभुव मनु हाणें धर्मशास्त्राचो प्रसार केलो आनी प्राचेवस मनुन राजनितीशास्त्राचो प्रसार केल्लो, अशें म्हळां. सुरवेक मनुच्या नांवाचेर दोन वेगळे ग्रंथ अस्तित्वांत आशिल्ले. पूण उपरांत ह्या दोनूय ग्रंथांतली म्हायती एकठांय हाडून मनुस्मृती ह्या स्वतंत्र ग्रंथाची रचणूक जाली आसुंये.

कांय इतिहासकारांनी ह्याच ग्रंथाच्या आनी हेर पुराव्यांच्या आदाराचेर मनुस्मृतीचे रचणुकेचो काळ थरोवपाचो यत्न केला. मेधातिथी हाणें इ. स. ९००च्या सुमाराक बरयल्ल्या भाश्यांत ज्या मूळग्रंथाचेर टिका केल्या तो मनुस्मृतीसारकोच आशिल्लो. विश्वरुपान ज्या श्लोकांचेर टिका केल्ली ते चडशे श्लोक मनुस्मृतिंतलेच आसात, तेन्ना विश्वरूपाच्या काळांतूय हालिंचीच मनुस्मृति अस्तित्वांत आशिल्ली हें सिध्द जाता. शबरस्वामीचो काळ इ.स. ५००च्या पयलींचो आसा आनी जैनिनीय सूत्रांचेर शबरस्वामीन केल्ल्या भाश्यांत मनूचो उल्लेख आयला. मनुस्मृतींतले ८.३१८ आनी ८.३१६ हे श्लोक रामायणांत आयल्यात. हाचेवयल्यान मनुस्मृतीक हालींचें स्वरूप इ.स. च्या २ऱ्या शेंकड्यापयलीं खूब वर्सां प्राप्त जाल्लें आसुंये. मनुस्मृती याज्ञवल्क्य स्मृतिपरस खूब आदल्या काळाची आसुंये अशें त्या दोनूय ग्रंथांतल्या मतांची तुळा केल्यार दिश्टी पडटा. महाभारतांत साबारकडेन मनुचो उल्लेख जाला. महाभारतांतले साबार श्लोक मनुस्मृतिंतल्या श्लोकांकडेन एकरूप आसात. ह्या पुराव्यांवयल्यान मनुस्मृती ग्रंथाची रचणूक महाभारतापयलीं जाल्ली आसा. पूण म. म. काणे हाच्या मताप्रमाण इ.स. दोनशें उपरांतच्या हिंदूधर्मशास्त्राचेर भर दिवपी लेखक मनुक चड म्हत्व दितात, तेन्ना आयज आमच्यामुखार आशिल्ल्या ह्या ग्रंथाची रचणूक इ.स. चे सुरवेक जाल्ली आसुंये. तशेंच चडशे संशोधक इ.स.प. २०० ते इ.स. २०० हो चारशें वर्सांचो काळ मनुस्मृतिचो काळ म्हूण मानतात.

मनुस्मृतिंत १२ अध्याय आसून, २,६८४ श्लोक आसात. पयल्या अध्यायांत ब्रह्मदेवाची उत्पत्ती, सैमाची रचणूक, मनुचो जल्म, धर्मशास्त्राची निर्मिती, मनुक ह्या शास्त्राचो लाव, उपरांत तें हेरांक कशें मेळ्ळें, वेगवेगळे युग, प्रजापतिसावन निर्माण जाल्ले चार वर्णांचे लोक (ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र) चारूय वर्णांचीं कर्मां आनी समाजांत तांची सुवात, चातुर्वर्ण्यांचें म्हत्व आनी हेर म्हायती दिल्या.

दुसऱ्या अध्यायांत धर्माची व्याख्या, धर्माचीं उगमस्थळां, वेगवेगळ्या लोकांचे अधिकार, तांचीं कर्तव्यां आनी तांचेर आशिल्ल्यो जापसालदारक्यो, विंगडविगड संस्कार आनी तांची गरज, वैदिक शिक्षणाची सुरवात, मूज, गुरू आनी शिश्य हांचे संबंद, ब्रह्मचाऱ्यांचीं कर्तव्यां, कोणें वेद शिकप आनी कोणें शिकचे न्हय, ते कोणाकडच्यान शिकचे, वेगवेगळ्या वर्णांच्या लोकांकडेन संबंद कसो आसचो आनी आदर्श विद्यार्थी हांचेर भर दिला.

ब्रह्मचर्याची मर्यादा, लग्नाचे विशय आनी नेम, लग्न जावपाक जोडीदार कसो आनी खंयचे जातीचो आसचो, लग्नाचे वेगवेगळे प्रकार, न्हवऱ्या व्हंकलेचे संबंद आनी तांचीं कर्तव्यां, गृहस्थाश्रम, पंचमहायज्ञ, श्राध्द आनी हेर विधींची म्हायती तिसऱ्या अध्यायांत दिल्या.

चवथ्या अध्यायांत घरकारभाऱ्याचीं म्हळ्यार गृहस्थाचीं कर्तव्यां आनी ताचो स्वभाव, आपलो घर संवसार सुखी जावचो म्हूण ताणें कसो वावूरचो आनी कसो वावूरचो न्हय हें सांगलां.

पांचव्या अध्यायांत वेगवेगळ्या वर्णांच्या लोकांनी कसलें अन्न जेवचें आनी कसलें जेवचें न्हय, मांस कोणे खांवचें, कोणाच्या हातांतल्यान उदक घेवचें न्हय, सुयेर आनी सुतक हांचेर भर, बायलांचीं कर्तव्यां आनी तांची वागणूक, पातिव्रत्य हांचेर भर दिला.

सव्या अध्यायांत वानप्रस्थाश्रम, अतिथिपुजा, संन्यासधर्म, ध्यानयोग, मोक्ष-साधना, दशलक्षण सादारण धर्म हांचेविशीं म्हायती दिल्या.

गृहस्थधर्म यशस्वीपणान पार केल्या उपरांत जण एकल्यान रानांत वचून संन्यासधर्म आपणावंक जाय आनी मोक्ष मेळपाखातीर साधना करपाक जाय. घरदार सोडून रानांत गेल्याउपरांत त्या मनशान फकत रानांत मेळपी फळांचेर आपली भूक भागोवंक जाय अशेंय ह्या अध्यायांत म्हळां.

सातव्या अध्यायांत आदर्श राजा कसो आसचो हाचेर भर दिला. आपले प्रजेची राखण करप हो मुखेल राजधर्म जावन आसा आनी

हेखातिरूच खासा देवानूच ताका भूयेचेर धाडला अशें मनु सांगता. राजा हो दंडाचें (ख्यास्तीचें) प्रतिक आसा. आपले प्रजेच्या संरक्षणाखातीर तो निर्माण जाला म्हूण ताचें पद सगळ्यांत उंचेलें आसा. हाका लागून राजा जाण्टो, तरणाटो वा नेण्टो आसूं, प्रजेन ताचो सदांच आदर करपाक जाय आनी ताचे आज्ञेंतूच वागपाक जाय. पूण राजाक विधींआड वागपाचो मातलेगीत अधिकार ना. राजान धर्माच्या आदाराचेरूच न्याय दिवपाक जाय. धार्मिक राजा हो स्वर्गाचो तर अधार्मिक राजा नरकाचो धनी अशें ह्या ग्रंथांत म्हळां. समाजाचेर नियंत्रण दवरपाक आनी समाजाचे नेम चालींत हाडपाक राजान दंडसंस्थेचो वेवस्थित वापर केल्यारूच ताचें राज्य सारकें चलतलें ही इतिहासिक वस्तुस्थिती मनुच्या राजनितीशास्त्रांत स्पश्ट जाल्या.

आठव्या अध्यायांत राजा आनी न्याय, न्यायालयाचो विशय आशिल्ले वेव्हार, हेर न्यायाधिश, न्यायालयांत जावपी बाचाबाची, साक्षीधर्म, सत्याची तोखणाय, सपूत, वेगवेगळे अपराध आनी ते संबंदीं जावपी ख्यास्त हांचेर उजवाड घाला.

मनुन ख्यास्त (दंड) प्रकारांचेर चड खोलायेन म्हायती दिल्ली आसा. ताच्या मतान मनशाच्या स्वभावांत दैवी आनी आसुरी अशे दोन अंश आसतात. दैवी अंश कल्याणकारक आनी आसुरी अंश विनाशकारक आसता. आसुरी वृत्ती वाडल्यार मनीस विकारी जाता आनी धर्म आचरणाचे बाबींत ताच्या हातांतल्यान अपराध जावपाक लागतात. अशा वेळार ताका धर्मपालनाविशीं प्रवृत्त करपाखातीर राजान ताका ख्यास्त करपाक जाय. पूण ह्या दंडाचो (ख्यास्त) प्रयोग खोलायेन जावपाक जाय. गुन्यांव करतल्यांक तांच्या गुन्यांवाप्रमाणूच ख्यास्त जावपाक जाय. तशें जालें ना जाल्यार समाजांत राजाविशीं असंतोश उत्पन्न जावन शांती आनी सुरक्षा हांचो नाश जातलो. हाका लागून जण एका गुन्यांवकाराक योग्य ती ख्यास्त जावपाक जाय.

बायलांची वागणूक, तांची राखण, बायल-दादलो हांचे संबंद, बायलांचो धर्म, नियोग निंदा, लग्नाची पिराय, स्त्रीधन, वारसो हक्क, बायलांच्या वेगवेगळ्या अपराधांखातीर वेगवेगळी ख्यास्त, जुगार-सोरो आनी तांचो समाजाचेर वायट परिणाम, तांचो बंदोबस्त ह्या सगळ्यांची णवव्या अध्यायांत म्हायती दिल्या.

चारूय जातींच्या लोकांचे आनी हेर जातींच्या लोकांचे संबंद, चार वर्णांखेरीज हेर जाती कशो निर्माण जाल्यो, आपध्दर्म, अस्पृश्य जातींच्या लोकांची समाजांत सुवात, तांचो धर्म, तांचो हेरांकडेन संबंद, तांचो वेवसाय आनी परधर्माविशीं हेर म्हायती धाव्या अध्यायांत दिल्या.

इकराव्या अध्यायांत दानधर्म, ताचें फळ आनी गरज, यज्ञाचें म्हत्व आनी ताचे खातीर लागपी सगळयो वस्तू कशो मेळोवप, यज्ञ कोणें करचो आनी तो कोणें करून घेवंचो, वेगवेगळें पाप आनी पापांप्रमाण प्रायश्चीत, पापांविशीं पश्चाताप आनी हेर म्हायती दिल्ली आसा.

निमाण्या म्हळयार १२व्या अध्यायांत वेगवेगळया कर्मांचीं फळां, त्रिविध मानस कर्मां, चतुर्वीध वाचिक कर्मां, त्रिविध शरीर कर्मां, स्वताविशींचें गिन्यान, मोक्ष मेळपाखातीर वेगवेगळीं साधनां मनुच्या मतान वेदांचो अभ्यास, तप, गिन्यान, इंद्रियनिग्रह, अहिंसा आनी गुरूभक्ति ह्यो स व्हड मोक्षसाधना आसात. सगळे धर्म हे मनशाच्या मोक्षाखातीरूच आसात. जो कोण आपल्या आत्म्याक आत्म्याच्या योगानूच पळयता तो पुराय समतेचो अणभव घेवन मुक्त जाता.

मनुस्मृतींत समाजरचणुकेचेर आनी राज्यशास्त्राचेर चड भर दिल्लो आसा. ह्या ग्रंथांतली समाजरचणूक म्हळयार चातुर्वर्ण्यवेवस्था. हातूंत ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र हांचो आस्पाव जाता. हे रचणूकेंत ब्राह्मणांक सगळ्यांत उंचेली तर शूद्रांक साप्प सकयली सुवात दिल्या. मनुस्मृतींत प्रतीत जाल्ली चतुर्वर्ण्य वेवस्था आनी हे वेवस्थे अंतर्गत असो समाजीक भाव आनी दादलो-बायले मदली असमता हाका लागून उपरांत ह्या ग्रंथाचेर खूब टिका जावपाक लागली. मेधातिथी, गोविंदराज आनी कुल्लूक हांणी मनुस्मृतिचेर केल्ल्यो टिका चड प्रसिध्द आसात. नारायण, राघवनंद, नंदन हांणीय मनुस्मृतिचेर टिका केल्ल्यो आसात. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत आनी विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक हिंदु समाजसुदारकांनी ह्या ग्रंथाचेर खूब टिका केल्यो. मनुस्मृतीचेर टिका करप ही आयज लेगीत भारतीय समाजसुदारणा चळवळीची मुखेल मोख आसा.

मनुस्मृतिचो शेक फकत भारतांतूच आशिल्लो अशें न्हय. चंपा आनी कांबोज ह्या देशांतल्या प्राचिन शिलालेखांतले कांय श्लोक मनुस्मृतींतल्या श्लोकांकडेन जुळटात. ब्रह्मी लोक ज्या धम्मथरांवरवीं चलतात ती मनुस्मृतीच्या आदाराचेर तयार केल्ली आसा. बाली जुंव्याचेर आयजलेगीत मनृस्मृतीक कायद्यांचो एक मुखेल ग्रंथ म्हूण मानाची सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** मनु.

## मन्मथ स्वामी : (जल्म : १५६०, नेकनूर; समाधी : १६१३).

एक वीरशैव संत आनी कवी. ताचो जल्म ताच्या आजोळा बीड जिल्ह्यांतल्या भूम तालूक्यांतल्या नेकनूर ह्या गांवांत जालो. उस्मानाबाद जिल्ह्यांतलो कोळंब हो ताचो मूळ गांव. आवयचें नांव पार्वतीबाई आनी बापायचें लिंगस्वामी. बीड जिल्ह्यांतल्या मानूर मठाचो स्वामी बसवलिंगस्वामी हो ताचो दीक्षा आनी अध्ययन गुरू.

बीड जिल्ह्यांतल्या मांजरसुंभा गांवालागसारच्या दोंगरांत शिवकडा

नांवाच्या ल्हानशा धबधब्यालागीं अटंग्या रानांत मन्मथस्वामीचो राबितो आशिल्लो. ह्या थळाक 'कपिलधार क्षेत्र' म्हूण वळखतात. थंयच ताणें तपश्चर्या, योगसाधना आनी ग्रंथरचना केली.

ताणें मराठींत खूब काव्यरचना आनी ग्रंथरचना केल्या. पूण ती सगळीच उजवाडा येवंक ना. गुरूनागी, गुरूप्रसाद, शिवगीता, शिवस्तोत्र, अनुभवानंद, स्वयंप्रकाश, आनंदलहरी, अभंगगाथा ह्या मराठी ग्रंथांच्यो रचना ताणें केल्यात अशें सांगतात. हातूंतले परमरहस्य (१७ अध्याय, १३८६ ओंवयो) आनी अभंगगाथा हे दोन ग्रंथ उजवाडाक आयल्यात. ताणें रचिल्ले शिवाचे अभंग आयजूय मराठवाड्यांतल्या वीरशैव लोकांमदीं प्रिय आसात. ताणें रचिल्ल्या 'परमरहस्य' ह्या अध्यात्मीक ग्रंथाचीं पारायणां करतात. मराठवाड्यांतल्या गांवागांवांनी मन्मथ भजनी मंडळांय आसात. मन्मथ स्वामीच्या शिश्यांभितर शिवदास, लिंगेश्वर, बसवलिंग, रामानंद, सदाशिव, महादेव, लक्ष्मण, नागलिंग दीनोध्दारबुवा, रामलिंग हांचो आस्पाव जाता.

पिरायेच्या ५३व्या वर्सा (भाद्रपद शुध्द ३) ताणें थंयच जिवी समाधी घेतली. सद्या थंय ताचें व्हडलें समाधी मंदीर आसा आनी भितर समाधीचेर शिवलींग आसा. दर वर्सा कार्तिकी पुनवेक पांच दीस थंय व्हडली जात्रा भरता.

- कों. वि. सं. मं.

**मन्वंतर :** एक कालमान. कृत, त्रेता, द्वापर आनी कली ह्या चार युगांचीं १२,००० दिव्य वर्सां मानल्यांत. तांकां चतुर्युग, महायुग वा दिव्ययुग अशें म्हण्टात. अशीं १००० चतुर्युगां जातकच तो ब्रह्मदेवाचो एक दीस म्हळ्यार सुर्याच्या उदेंतासावन अस्तामेरेन जाता ताका कल्प म्हण्टात. त्या काळांत १४ मनु आसतात. तेखातीर सुमार ७१ चतुर्युगां इतलो दरेक मनुचो काळ आसा. ताकाच मन्वंतर अशें नांव आसा. एक मनु सोंपून दुसरो मनु सुरू जायमेरेन आसता त्या काळाक संधिकाल म्हण्टात. एका कल्पांत अशे१५ संधिकाल आसून, तांचें कालमान ६ दिव्य युगांइतकें आसता. ७१ X १४ = ९९४ दिव्ययुगां हो १४ मन्वंतरांचो काळ. तातूंत हीं ६ दिव्य युगां घालीं म्हण्टकच १००० दिव्ययुगां म्हळ्यार १ कल्प जाता. ब्रह्मदेवाच्या १०० ब्राह्म वर्सांच्या आयुर्मानांतलीं ५० ब्राह्म वर्सां सोंपून ५१व्या वर्सांतलो पयलो 'श्वेत वाराह' नांवाचो कल्प सद्या सुरू आसा. ताचे सुरवातेक सृश्ट परतून तयार जाली, तेन्नासावन आयजमेरेन स मन्वंतरां पुराय जावन सातवें वैवस्वत नांवाचें मन्वंतर चालू आसा. कल्पाच्या आरंभासावन जाल्ल्या कालखंडाचीं १,९७,२९,४९,००० मानवी वर्सां जातात.

स्वायंभुव, स्वारोचिष, उत्तम, तामस, रैवत, चाक्षुष, वैवस्वत, सावर्णी, दक्षसावर्णी, ब्रह्मसावर्णी, धर्मसावर्णी, रूद्रसावर्णी, देवसावर्णी आनी इंद्रसावर्णी अशीं १४ मन्वंतरांचीं नांवां पुराणांत दिल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**मन्सूर, मल्लिकार्जुन भीमरायप्पा :** (जल्म : ३१ डिसेंबर १९१०, मन्सूर, कर्नाटक).

हिंदुस्थानी संगितांतलो जयपूर घराण्याचो एक म्हान गायक. ग्वाल्हेर घराण्याचे बाळकृष्णबुवा इचलकरंजीकर हाचो मिरजेचो शिश्य पं. नीळकंठबुवा हाचेकडे मन्सूराचें सुरवातीचें शिकप जालें. जयपूर घराण्याचो उस्ताद अल्लादियाखाँ हाचे पूत मंजीखाँ आनी भूर्जीखाँ हांचेकडे लेगीत मन्सूरान खूब वर्सां रियाज केलो. मन्सूराचे शैलीचेर चडकरून मंजीखाँ हाचे प्रतिभावंत पूण बंडखोर गायकीचो प्रभाव दिसून येता.

पयलीं ताणें संगीत कन्नड नाटकांनीय कामां केल्यांत. जायत्या कठीण अशा रागांचो ताचे गायकींत आस्पाव जाता. देखीक : त्रिवेणी, बिहारी, देवसाख हे राग मन्सूर सहजतायेन गायतालो. ताणें मराठी भावगितांय गायल्यांत.

मन्सूर हाका जायते मान-भोवमान फावो जाले. १९६२ वर्सा कर्नाटक राज्याचो 'राज्य अकादमी पुरस्कार' ताका मेळ्ळो.

१९६८ वर्सा 'राज्य सेवा प्रशस्ती पुरस्कार', १९७० वर्सा 'पद्मश्री', १९७६ वर्सा 'पद्मभूषण', १९७५ वर्सा कर्नाटक विद्यापिठाची 'डॉक्टर ऑफ लेटर्स' ही भोवमानाची पदवी मेळ्ळी, १९७२ वर्सा दिल्लीच्या संगीत नाटक अकादमी कडल्यान सगळयांत श्रेश्ठ गायक म्हूण इनाम आनी १९८३ वर्सा मानद सदस्यत्व हे भोवमान ताका फावो जाले.

१९८१ वर्सासावन मध्य प्रदेश सरकारान सुरू केल्लो, एक लाख रुपयांचो 'क़ालिदास सन्मान प्रशस्ती' पुरस्कार सगळयांत पयलीं मन्सूर हाका मेळ्ळो. तशेंच कर्नाटक विद्यापिठान संगीत विभाग सुरू करून त्या विभागाचें भोवमानाचें मुखेलपण मन्सूराक दिलें.

मन्सूराचो पूत राजशेखर मन्सूर आनी मट्टीगट्टी हे मन्सूराचे मुखेल शिश्य आसात. 'नन्न रसयात्रे' (१९८३) हें ताचें आत्मचरित्र उजवाडा आयलां.

- कों. वि. सं. मं.

**ममी :** मनशाचें शरीर मरणा उपरांतूय जशाक तशें उरचें म्हूण खासा रसायनीक प्रक्रिये वरवीं सांबाळून दवरिल्ल्या मेल्ल्या शरीराक 'ममी' अशें म्हण्टात. 'मोमियाई' ह्या अरबी उतरावयल्यान 'ममी' हें उतर घोळणुकेंत आयलें. पुर्विल्ल्या इंजिप्शियन संस्कृतीचें ममी हें एक खाशेलपण आसा.

ममी तयार करतना मेल्ल्या शरिरांतलो मेंदू लोखणाचे सरयेन नाकाचे पुडयेंतल्यान कोरून भायर काडटाले. उपरांत शरिरांतले अवयव काडून पोकळ शरिरांत चडकरून सोडा भरताले आनी शरीर सुकें (द्रवरहीत)




१ - पेरुवियन ममी; २ - इजिप्शियन ममी तयार जावचे पयलींची स्थिती; ३ - तयार इजिप्शियन ममी.

करताले. उपरांत ताचेर राळेचो लेप काडटाले आनी तोंडार मुखवटो दवरताले. पिरॅमिड ह्या खाशेले तरेच्या बांदकामांनी ह्या ममींची जतनाय करप जातालें. पुर्विल्ल्या इजिप्तांतल्या पयल्या आनी दुसऱ्या राजवंशाच्या काळांत चड करून इ.स. पयलीं २६०० सावन ती पद्दत सुरू जाली आसूंक जाय. फुडें खिस्ती धर्माच्या प्रसारा उपरांत इ. स. चवथ्या शेंकड्यांतय इजिप्त हांगासर प्रचारांत आशिल्ली.

ह्या वेळार मेल्ल्या शरिराचेर एके तरेच्या दीखांत भिजयल्लो कपडो अशे तरेन गुठलायताले की भितरलें शरीर जरी आंवळ्ळें तरी वयल्या वेश्टनाचो आकार त्या मेल्ल्या शरिराप्रमाणूच उरचो. हाचे वयल्यान उपरांतच्या काळांत पद्दतशीर ममी करपाचें तंत्र विकसीत जालें आसूंक जाय.

ममीचे प्रक्रिये संबंदान इजिप्तांतल्या पुर्विल्ल्या साहित्यांत कांयच उल्लेख मेळना. तरीपूण हीरोटोटस आनी डायोडोरस सिक्युलस ह्या लेखकांनी तांकां मेळिल्ली म्हायती दिल्या.

ममीच्या सोदाक लागून ईजिप्तांतले संस्कृती विशीं चड करून त्यावेळावयल्या वस्तूंच्या वापरासंबंदी बारीक सारीक म्हायती मेळ्ळी.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** पिरॅमिड.

## मम्मट : (इ. स. सुमार १००).

संस्कृत साहित्यशास्त्रकार आनी अलंकारीक 'काव्य-प्रकाश' ग्रंथाचो रचनाकार. ताचे जिणेविशींय चडशी म्हायती मेळना. सतराव्या शेंकड्यांत काव्यप्रकाशाचेर सुधासागर नांवाची व्याख्या बरोवपी भिमसेन दिक्षीत हाणें आपले व्याख्येचे सुरवेक मम्मटासंबंदी म्हायती दिल्या ती अशी -

शाश्वत शब्दब्रह्माच्या शास्त्रांनी कोणाकूच साक्षात्कार जावंकना हें पळोवन देवी सरस्वती स्वतः साक्षात्कार करून दिवपाच्या हेतान काश्मीर देशांत दादल्याच्या रुपान प्रकट जाली आनी जैयटागेर मम्मट नांवान जल्मली. मम्मट हो शैवआगमाचो अनुयायी आशिल्लो. ताणें काशीक वचून अध्ययन केलें आनी काव्यप्रकाश हो ग्रंथ बरयलो. फुडें काव्य प्रकाशांतल्या सुत्रांचेर ताणें वृत्ती बरयली. ताका कैकट आनी उवट हे दोन धाकले भाव आशिल्ले. तांकां ताणेंच विद्या शिकयली. कैकट ह्या भावान पतंजलीच्या महाभाश्याचेर टिका करपी 'प्रदीप' हो ग्रंथ बरयलो. जाल्यार उवट ह्या दुसऱ्या भावान 'वाजसनेयी' ह्या शुक्ल यजुर्वेदाचे संहितेचेर भाश्य करपी ग्रंथ बरयलो.

मम्मट आनी भिमसेन दीक्षित हांच्या काल खंडांत सुमार स शेंकड्यांचें अंतर आशिल्ल्यान भिमसेनान दिल्ले म्हायतीविशीं जाणकारांभितर मतभेद आसात. मम्मटान आपल्या एका श्लोकांत विद्याप्रेमी भोजाच्या उदारपणाचो उल्लेख केला. हाचेवयल्यान मम्मट हो भोजाचे कारकीर्दींतलोच आसूंक जाय. 'नैषधीयचरित' हो ग्रंथ रचपी श्री हर्ष हो मम्मटाचो भाचो अशें म्हण्टात.

मम्मटाच्या काव्य प्रकाशांत सगळ्यो मेळून १४३ कारिको आसात. काव्यप्रकाशाचे धा उल्लास आसात आनी पयली कारीका (म्हणजे सूत्र) उपरांत वृत्ती आनी देखी अशे तीन वांटे केल्यात. ताचे पयलीं काव्यशास्त्राच्या मळार जायते शेंकडे जें विचारमंथन जाल्लें, ताचोच आपरोस ताच्या काव्य प्रकाशांत मेळटा. ताणें ६ शब्दालंकार आनी ६१ अर्थालंकारांचें वर्णन केलां. काव्य, काव्याचो हेत, उत्तम, मध्यम आनी अधम काव्यां, वाच्यार्थ, लक्ष्यार्थ, व्यंङ्ग्यार्थ, तात्पर्यार्थ अशे शब्दार्थांचे प्रकार; ध्वनीचे दोन प्रकार; स्थायिभाव, विभाव आनी व्यभिचारीभाव हे रस हांचे संबंदान काव्यप्रकाशांत बारकायेन बरयलां. देखीक म्हूण हेर साहित्यकारांचीं सुमार ६२० पद्यां दिल्यांत. नाट्य सोडून हेर सगळ्या काव्यांच्या आंगांचेर मम्मटान भाश्य केलां. नाट्यशास्त्रांतल्यो कांय कारिका काव्यप्रकाशांत मेळटात. ते भायर मम्मटान हेर ग्रंथकारांच्याय कांय कारिकांचो आपल्या काव्यप्रकाशांत आस्पाव केला. काव्यप्रकाश हो ग्रंथ जरी एकट्या मम्मटाच्या नांवार उजवाडाक आयला तरी ताचो निमाणो वांटो दुसऱ्या लेखकान बरयला अशें म्हण्टात. काव्यप्रकाशाचेर जायत्यो व्याख्या बरयल्यात. तातूंत गोविंद ठक्कुराची 'प्रदीप', विद्यानाथ तत्सत् हाची 'प्रभा', नागोजी भट्टाचो 'उद्योत' ह्यो खास आसात. ते भायर व्याख्या बरोवपी माणिकचंद (संकेत), जयंतभट्ट (दीपिका वा जयंती), सोमेश्वर (काव्यदर्श), राजानक आनंद (निदर्शना) हांचोय आस्पाव जाता.

काव्यप्रकाश ग्रंथाक संस्कृत साहित्य शास्त्रांत मोलाची सुवात आसा. फाटले आठ-णव शेंकडे पुराय भारतभर काव्यप्रकाशाचें अध्ययन जाता.

काव्य प्रकाशाखेरीज, शब्द व्यापारपरिचय आनी 'संगीत रत्नावली' हे दोन ग्रंथ ताणें बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## मयेंकार, आत्माराम धाकटु नायक : (जल्म : १९०९, मयें-दिवचल).

सुटके झुजारी. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९४५त ताणें पुर्तुगेज भाटकारांआड शेतकामत्यांची चळवळ केल्ली. मयेंच्या कांय सुवातींनी उजो लायलो ह्या फट आरोपाखाल पुलिसांनी ताका आनी ताच्या हेर वांगड्यांक धरपाचें फर्मान काडिल्लें. पुलिसांक चुकोवपाक तो भूंयगत जालो. पूण ताचे गैरहजेरेंत न्यायालयान ताका १८ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेच्या वज्रें शिबिराचो तो मुखेल आसलो. पोलिस ठाण्याचेर हल्लो करपाचो बेत करून तडीक व्हरतालो.

१९६३ त तो मयें ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हूण वेंचून आयलो. उपरांत तो चार वर्सां सरपंच म्हूण आशिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. दादरा नगर हवेलीच्या सरकारानूय ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८१ ह्या दिसा गोंय सरकारानय ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## डॉ. मयेंकार, विनायक पुरूषोत्तम : (जल्मः ८ जून १९१३, फोंडें-गोंय).

सुटकेझुजारी. ताणें वैजकी पदवी घेतिल्ली आनी तोच वेवसाय आपणायल्लो. विनायक हाच्या मनार ताच्या राश्ट्रीयवादी भावाचो प्रभाव पडिल्लो. तो एक बऱ्यांतलो बरो व्यंगचित्रकार आशिल्लो. 'फ्री प्रेस जॅर्नल' (मुंबय) पत्रिकेंतल्यान गोंयच्या सुटके झुजाचीं कांय खिणांचीं व्यंगचित्रां उजवाडाक हाडिल्लीं. १९४५ त पुरूषोत्तम काकोडकार हाका 'गोवा सेवा संघ' हाची स्थापणूक करपाक पालव दिल्लो. तशेंच ह्या संघांतल्या लोकांक शिक्षण दिवपाची जापसालदारकी ताणेंच घेतिल्ली. १८ जून १९४६ दिसा मडगांवां दोतोर लोहिया हाणें घडोवन हाडिल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. 'नॅशनल काँग्रेस, गोंय' संघटनेचो तो एक संस्थापक वांगडी आसलो. १८ ऑक्टोबर १९४६ दिसा, दिवचल हांगा ताणें 'नॅशनल काँग्रेस, गोंय'चे वतीन सत्याग्रह घडोवन हाडिल्लो. ह्या वेळार पुलिसांनी ताका धरून ४५ दीस बंदखणींत दवरलो. तशेंच दिसाक दोन रुपया दंड भरूंक लायलो. सुटका जाले उपरांत दोतोर लोहिया हाणें जानेवारी १९४७त खानापूर हांगा घडोवन हाडिल्ल्या सत्याग्रही शिबीराचो तो मुखेल वावुरपी आशिल्लो. १५ मे १९४७ दिसा जाल्ले सभेंत 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संस्थेचो अध्यक्ष म्हूण एकामतान ताची निवड जाली. उपरांत २५ ऑक्टोबर १९४७ दिसा करमळी हांगा जाल्ल्या सत्रांत नॅशनल काँग्रेस गोंयचो खजीनदार म्हूण ताका वेंचून काडलो. गोंयच्या राश्ट्रवादी लोकांक एकठांय हाडपी संघटनेचे नवे कार्यकारी समितीचो तो वांगडी आसलो. पक्षाभितल्ले भेद पयस करपाखातीर ताणें 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' चे वतीन 'ज्ञान प्रकाश' ह्या दिसाळयांतल्यान लेख बरयल्लो. हो लेख पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांच्या हाताक लागलो. विनायक पुर्तुगेजांआड प्रचार करता हो फटिचो आळ ताचेर घालून ताका आनी ताच्या वांगड्यांक धरून आग्वाद बंदखणींत दवरले. धा म्हयन्यांउपरांत प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत ताची चवकशी जावन, ताका १५ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. सुरवेचीं पांच वर्सां ताका आग्वाद बंदखणींत दवरिल्लो. उपरांत १ जून १९५२ दिसा पांडुरंग शिरोडकर, गिलयार्म डिसौझा, निळकंठ कारापुरकार, नारायण नायक, मुकुंद कामत आनी जयवंत कुंदे हांच्या वांगडा ताका आंगोला हांगा बंदखणींत दवरलो. जुलय १९६० त तो आंगोला हांगाच्यान लिसबन हांगा आयलो. उपरांत ६ मार्च १९६१ दिसा तो मुंबय परत आयलो. गोंय पुर्तुगेज राजवटींतल्यान मुक्त जाले उपरांत 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' च्या हिताखातीर खूब वावूरलो. 'माझा विजनवास' हें आत्मचरित्रात्मक मराठी पुस्तक ताणें बरयलां.

- कों. वि. सं. मं.

## मरण : (पळेयात अंत्यसंस्कार).

(पळेयात अंत्यसंस्कार)

## मराठा : क्षत्रिय वर्णांतलो महाराष्ट्रांतलो एक व्हड समाज (जात).

हे जातीक मराठा हें नांव कशें पडलें हाचेविशीं एकमत ना. डॉ. भगवानलाल आनी फ्लीट हांच्या मतान महाराष्ट्र शब्दावयल्यान 'मराठा' शब्द आयला. अशोकाच्या काळांत रठ्ठ नांवाचे लोक महाराष्ट्रांत रावताले. ते स्वताक महारठ्ठ म्हणूंक लागले. तांचेवयल्यान मराठा आनी महारठ्ठ = महाराष्ट्र हीं नांवां आयलीं अशें डॉ. पां. वा. काणे म्हण्टा. महाराष्ट्र शब्दकोशकार दाते आनी कर्वे हांच्या मताप्रमाण 'मराठा' शब्दाची व्युत्पत्ती 'महाराष्ट्र-मरहठ्ठ-मरठ्ठ-मराठा' अशी आसा.

हे जातीचे अस्सल मराठा, कुणबी आनी हेर अशे तीन वर्ग आसात. अस्सल मराठा स्वताक क्षत्रिय मानतात. राजा, सरदार, जमीनदार आनी झुजारी हांचो ह्या वर्गांत आस्पाव जाता. कुणबी म्हळयार शेतकरी मराठे. हांकांच कुळवाडी अशें म्हण्टात. तिसऱ्या वर्गांत भंडारी, गवंडी, कुंभार, धवड, माळी, चित्रकथी, न्हावी, मडवळ, मेस्त, तेली ह्या पोटजातींचो आस्पाव जाता. अस्सल मराठा रजपूत वंशाचे आसून तांच्यो सूर्य,

सोम, ब्रह्म आनी शेष अशो चार शाखा आसात. तांच्यांत ९६ कुळां आसात, अशी समजूत आसा. तातुंतल्या कांय कुळांचीं नांवां अशीं आसात-अहिराव, आंग्रे, भागवत, भालेराव, भिसे, भोइटे, भोसले, चाळके, दाभाडे, दळवी, उफळे, देवराव, ढमढेरे, ढवळे, धुमाळ, गायकवाड, गवळी, घोट, घोरपडे, गुजर, हिरवे, जगदाळे, जाधव, जगताप, कदम, काळे, कानडे, खंडागळे, खांडेकर, क्षीरसागर, महाडिक, मालुसरे, माने, मोहिते, चव्हाण, मोरे, नलवडे, निंबाळकर, पानसरे, पाटणकर, पाठारे, फाळके, पिंगळे, पिसाळ, रत्नवरे, राऊत, राणे, साळुंके, सावंत, शेलार, शेळके, शिंदे, शिर्के, शितोळे, थोरात, वाघ, वाळके, यादव.

बा. द. सातोस्कराच्या मताप्रमाण गोंयांतल्या मराठ्यांत तीन वर्ग नासून दोनूच आसात. उच्चवर्गीय मराठे आनी हेर. उच्च वर्गियांत देसाई आनी राणे हीं मुखेल घराणीं आसून हेरांत कुणबी, नाईक, भंडारी, गोंसाय, कुंभार, गवंडी हांचो आस्पाव जाता. न्हावी, मडवळ, मेस्त ह्यो जाती स्वताक मराठ्यांच्यो पोटजाती आशिल्ल्याचें मानिनात.

गोंयांत राज्य केल्ल्यां मदीं चालुक्य, राष्ट्रकूट, शिलाहार, यादव, भोसले ह्या मराठा राज्यकर्त्यांचो आस्पाव जाता. गोंयच्या मराठ्यांच्यो चाली रिती आनी हेर संदर्भांचो विचार करतना तो सबंद मराठा जातीकडेन लागू पडटा. गोंयांतले भोवतेक उच्चकुलीन मराठ्यांच्यो चालीरिती ह्यो गोंयांतल्या हेर उच्चवर्णीय समाजासारक्यो आसतात.

मराठ्यांचीं खूब देवकां आसात. तातूंत झाडां, मोनजात आनी हेर वस्तूंचो आस्पाव जाता. देखीक- बेल, बोर, चिंच, आंबो, आपटो, आवांळो, जांबळ, कदंब, कमळ, घोडो, हरण, कांसव, कोलो, रुईचें फूल, म्हस, मोर, मोरापांख, नाग, नागवेल, नाल्ल, पणस, पिंपळ, राजहंस, रुद्राक्ष, साग, भांगर, सूर्यफूल, ताड, तांबें, रूमड, वड, वेळ, वेत आनी हेर. एकूच देवक आशिल्ल्या कुळांत लग्न करीनात. नव्या घरांत वतना वा खळें तयार करतना देवकाची पूजा करतात. मराठ्यांच्या कुळांक गोत्रां आसात. पूण चडशा कुळांक स्वताचें गोत्र खबर नासता.

हे लोक शिवाचे आनी देवीचे उपासक आसात. खंडोबा, भैरव, रवळोबा, रोकडोबा ह्या रुपांनी ते शिवाची पूजा करतात. अंबा, भवानी, दुर्गा, शितळा, लक्ष्मी, जोगाई, बोलाई ह्या रुपांनी देवीची पुजा करतात. तशेंच ते राम, मारुती, विठोबा आनी ग्रामदेवता गणपती ह्या देवांकूय भजतात. दसरो, दिवाळी, होळी, संक्रांत, नागपंचम, चवथ ह्यो परबो ते लोक मनयतात.

मराठे लोक मध्यम उंचायेचे, बळिश्ट कुडीचे आनी नाका-दोळ्यान बरे आसतात. मराठा लोकांत मामेभयणीकडे लग्न करतात पूण आते वा मावस भयणीकडे करीनात. पयली बायल मरत जाल्यार मेवणेवांगडा लग्न करतात. विधवाविवाह आनी घटस्फोटाचीय चाल तांच्यांत आसा. आवय बापूय भुरग्यांचीं लग्नां थरयतात. दिवपा-घेवपाचें जमत जाल्यार लेखी करार करतात. म्हूर्त पळोवन लग्न थरयतात. उपरांत साकरपुडो करतात. पत्रिकापूजन, अक्षत, घाणो, हळद, तेल, देवक बसोवप, वाग्दान, सीमांतपूजा, गौरीहरपूजा हे विधी मुखेल लग्न सुवाळ्यापयलीं करतात. लग्न सुवाळो व्हंकलेगेर जाता. पयलीं व्हंकलेचो बापूय म्हूर्त-पत्रिकेची पुजा करता. उपरांत व्हंकल-न्हवऱ्याक एकामेका सामकार उबे करून तांचेमदीं अंतरपाट धरतात. तांच्या फाटल्यान तांचे मामा हातांत तलवार धरून उबे रावतात. उपरांत मंगलाश्टकां म्हणून अक्षता उडयतात. ताचे उपरांत मधुपर्क, कन्यादान, लग्नहोम आनी सप्तपदी हे विधी जातात. कंकणबंधन, आंबवण, रूखवत, ध्रूवदर्शन, सुनमुखदर्शन, ऐरणी (झाल), व्हंकल-पावणी ह्यो कार्यावळी जातात.

बायलेचें पयलें बाळंतपण तिच्या कुळारा जाता. धा दीस सुयेर पाळटात. पांचव्या दिसा पांचवीची आनी सव्या दिसा सटयेची पुजा करतात. कारण ते दीस भुरग्याक धोक्याचे आसतात, असो समज आसा. इकराव्या दिसा सगळे घरांतले लोक न्हावन- धुवन सुयेरांतल्यान शुध्द जातात आनी बाराव्या दिसा बारसो करतात.

हे लोक मडें जाळटात. मनीस मरतकच ताका न्हाणोवन, मडें धव्या कपड्यांत गुठलायतात. मसंडेंत व्हरतकच, थंय मड्याचेर परतून उदक घालतात आनी उपरांत जाळटात. सगळे लोक न्हंयेचेर न्हावन घरा परततात. दुसऱ्या वा तिसऱ्या दिसा गोबर आनी अस्थी एकठांय करून न्हंयेंत सोडटात. धाव्या दिसा पिंडदान करतात. इकराव्या दिसा सुतक सोंपता. बाराव्या दिसा परतून पिंडदान करतात. तेराव्या दिसा श्राध्द करतात आनी सोयऱ्यांक जेवण घालतात. चवदाव्या दिसा पक्वान्नाचें जेवण करतात. मराठा लोकांत म्हयन्याचें, वर्सुकी आनी म्हाळ श्राध्द करपाची चाल आसा.

गंव, तांदूळ, ज्वारी, बाजरी, दाळ हें ह्या लोकांचें मुखेल अन्न आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मराठी भास** : भारतांत वट्ट १६५२ भासो उलोवप जातात. तातुंतल्या फकत २४ भाशांक लेखी वाङमयाच्यो 'अधिकृत' भाशा म्हूण वळखतात. ह्या चोवीस भाशांत मराठी भाशिकांच्या संख्येच्या प्रमाणांत भारतांत हे भाशेचो चवथो नंबर लागता. महाराष्ट्र ह्या व्हड आनी प्रगत राज्याची ती राजभास आसा. हेर राज्यांतूय मराठी भाशिकांची संख्या खूब व्हड आसा. १९६१ चे गणने प्रमाण महाराष्ट्रांत तांची संख्या ३,३२,८६,७७१ आशिल्ली. हाचेभायर हेर भारतांत पातळिल्ल्या मराठी भाशिकांची संख्या ३०,०७, ८६८ आशिल्ली. खानदेशी भास ही मराठीक खूब लागशिल्ली आसा. खानदेशी भाशिकांची संख्या ४,२८,१२६ आशिल्ली. पूण 'लिंग्विश्टिक सर्व्हे ऑफ इंडिया', खंड७

च्या वर्गीकरणाप्रमाण तिचो आस्पाव मराठीवांगडाच गुजराती, हिंदी आनी राजस्थानी हांच्या गटांतल्या भिल्ली भाशाकुंटुंबांत केल्लो दिसता. सुटके उपरांतच्या काळांत मॉरिशस जुंव्यार मराठीची एक पोटभास उलोवपी लोकांकडे मराठी भास आनी साहित्याचो संबंद प्रस्थापित जाल्लो आसा.

भारतांतल्या संस्कृत सोडून हेर प्रादेशिक भाशांचो इतिहास वेगवेगळो मेळटा. देखीकः कन्नड आनी तेलुगू भाशेंतल्या वाङमयाचो इतिहास हजार वर्सांपरस चड आसून मराठी आनी गुजरातींत ती परंपरा सातशें-आठशें वर्सांची आसा. संस्कृत काव्यशास्त्र सोडून ह्या प्रादेशिक भाशांत साहित्यनिर्मिती जायत रावली. तांच्यांत स्वतंत्र काव्यशास्त्र तयार जालें ना तरी वाङमयनिर्मिती मात भरपूर प्रमाणांत जाली. इंग्लीशीच्या वर्चस्वान तांच्यो स्वतंत्र परंपरा वसाहतकाळांत उपेक्षित उरल्यो. स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत तांचें पुनरुज्जीवन फलादीक जावपाखातीर हे भाशेंतल्या देवघेवीचो विचार बदलिल्ल्या संदर्भांत जाता. तेखातीर भाशेच्या वर्गीकरणाचें भान ते भाशेच्या व्यामिश्रतेचे वाडीखातीर गरजेचें थारता. देखीकः मराठी, हिंदी, गुजराती आनी कोंकणांतल्यो ग्रामीण बोलींतल्यो म्हणी, वाक्प्रचार, शब्दप्रयोग आदींत आगळेंच सारकेंपण दिसता. पूण ह्योच भाशा साहित्याच्या लिखित रुपांत प्रमाणीकरण धारण करतना इंग्लिशीच्या उण्या चड प्रभावाक लागून बऱ्योच वेगळयो पडटात.

मुळांत मराठी ही इंडो-युरोपियनच्या भारतीय आर्य शाखेंतली एक दक्षिणेकडची भास. कोंकणी आनी सिंहली ह्योय भाशा सगळयांत दक्षिणेकडल्यो आसात. जी. ए. ग्रीयर्सनान 'लिंग्विस्टिक सर्व्हे ऑफ इंडिया' (१९१४) ह्या ग्रंथाच्या जायत्या खंडांत भारतीय आर्यभासांचे तीन वर्ग केल्यातः बाह्य, आंतर आनी मध्य. १) बाह्य परिघाचेर सगळेवटेन परभाशा वा आंतरभाशा आनी सागरी परिसरान रेवडायल्ल्यो त्यो 'बाह्य'- मराठी, सिंधी, उडिया, बिहारी, बंगाली, असमिया आदी. २) फकत बाह्य भाशा वा सागरी परिसरान वेढायल्ल्यो त्यो 'आंतर'-पहाडी, अस्तंती, हिंदी, बांगडू, ब्रज, कनौजी, बुंदेली, पंजाबी, डोगरी, गुजराती, भिल्ली, खानदेशी, राजस्थानी आदी. ३) फकत आंतर भाशांनी वेढायल्ल्यो आनी मध्यवर्ती ठिकाणाच्यो त्यो 'मध्य' - पूर्व हिंदी, अवधी, बाघेली, छत्तीसगढी आदी. मराठीच्या बाह्य परिघाचेर गुजराती आनी राजस्थानी ह्यो आर्यभाशा तशेंच भिल्ली आनी हिंदी ह्यो आंतरभाशा आनी सागरी परिसराचो घेरो आसा. सागर लागीं आशिल्ल्यान तिचो संपर्क हेर परकी भाशांकडेन येता.

**पोटभास आनी बोली भास :** भारतीय साहित्य संस्कृतींत शास्त्रपंडितांनी संस्कृताच्या वळणाचे उच्चभ्रू परंपरेक सदांच पोसवण दिल्ल्यान जनसामान्यांच्यो बोलीभासो उपेक्षित उरल्यो. पोटभाशेक आनी बोली भाशेक सकयलो दर्जो दिवपाक सत्ता स्पर्धेचें राजकारण आसता. ताचो संबंद संस्कृतीक फुडारपण तिगोवपाखातीर आसता. ताका लागून मराठीच्या पोटभासांचो आनी लोकसाहित्याचो सिध्दांतीक अभ्यास पद्दतशीरपणान जालो ना. पोट-बोली भाशांचे नमुने सुरवेक एकठांय करपाचें श्रेय परक्या लोकांक वता देखीकः ग्रीयर्सन.

पोट-बोली भाशांच्या वर्गीकरणांत ध्वनी, व्याकरण, प्रक्रिया आनी शब्दसंग्रहाचो तुळात्मक अभ्यास अभिप्रेत आसता. 'ळ' च्या जाग्यार 'ल', 'य' वा 'र' वापरून बोलींत खास अशे शब्द तयार जाल्ले दिसतात. तेचप्रमाण 'ला' (मला) च्या जाग्यार 'ले' 'मले' वा का-आक (माका-घराक) असो उपेग कांय बोलिंनी जाता. भुगोलीक वाठार, धर्म, जाती, वर्ग आदी भेदय हे बोलींत स्पश्टपणान दिसून येतात. देखीकः दर्यादिगेवयली 'सागरी' घाटाचे अस्तंतेची 'देशी', उत्तरेकडली 'खानदेशी' उदेंतेकडली 'वऱ्हाडी' आनी मध्यवर्ती ती 'दक्षिणी' अशे भुगोलीक भेद दिसतात. जाती, भटक्या जमातींचे बोलींत जायते पोटभेद आसात. तांचो तपशीलवार अभ्यास संबंदीत बोलीचो वारसो लाबिल्ले तज्ञ तयार जातकरच जावंक शकतलो.

**मराठी भाशेचो इतिहास :** मुळांत सगळयोच भाशा ह्यो बोलींच्या रुपांत अवतरतात. राजकीय सत्तेच्या आदारान वा समाजीक प्रभावान तांचें प्रमाणीकरण जाता. मराठी ही संस्कृताचें प्राकृत अवस्थांतर जावन आकाराक आयिल्ली भास. तिच्यांत आर्य द्रविडां वांगडाच मुसलमानी, तुर्की, अरबी, फार्सी, इंग्लीश हांकां लागून जाल्ली संकर प्रक्रिया अजून तपशिलान अभ्यासूंक ना. इंग्लिशीचो परिणाम बोली भाशेचेरूय जाला.

इ. स. १००० च्या लागीं लागीं सगळयाच आर्यभाशांचें वेगळेपण स्पश्ट जावंक लागलें. ह्या संदर्भांत कोरीव लेखांत मेळपी बरेच पुरावे दिवप जातात. देखीकः श्रवणबेळगोळ (कर्नाटक) हांगाचो शिलालेख; भूलोभ्मलिखित मानसोल्लस (११२९) ग्रंथांतलो उल्लेख; शिलाहार अपरादित्याच्या (द्वितीय) परळ हांगाच्या लेखांतलें (११८७) शापवचन; पाटण (खानदेश १२०७ इ.स.) चो शिलालेख अशा आदाराचेर हे कालखंड कल्पूंक येतात.

**अ) पुर्विल्लो कालखंड :** कोरीव लेखांत मेळपी पुर्विल्लें रूप, मुसलमानी सत्तेच्या काळांतलें महानुभावी वाङमय आनी ज्ञानेश्वरींत प्रतिबिंबीत जाल्लें उत्तर प्राचीन स्वरूप.

**ब) मध्य युग :** शिवपूर्व काळांतले लेखी पुरावे. मुसलमानी भाशांचो संकर. शिवकाळांतले फार्सीचें प्राबल्य. शिवाउपरांतच्या. काळांतल्यो बखरी आनी कागदपत्रां. उपेक्षित लोकवाङमयाचे अवशेश.

**क) अर्वाचीन युगः** युरोपियन लोकांकडे संपर्क आयल्या उपरांत घडिल्ले बदल. युरोपियन आनी चडकरून ब्रिटिश तशेंच पुर्तुगेजांनी घडयल्ल्या वसाहतीकरणाचे भाशीक आनी वाङमयीन परिणाम अजून पुरायतरेन अभ्यासूंक ना.

मराठीची वर्णनात्मक वळख १) ध्वनिविचार २) स्वर

| | उदेंत | मध्य | अस्त |
|---|---|---|---|
| उच्च (संवृत्त) | इ | - | उ |
| मध्यम (अर्ध विवृत्त) | ए | अ | ओ |
| निम्न (विवृत्त) | अॅ | आ | ऑ |

**अ) व्यंजनां :**

| वर्ग | ओंठी | दांती | उच्च दंतमुलीय | प्रकार ताळू | मूर्धन्य | मृदूताळू | महा प्राण |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| स्फोटक | प, ब<br>फ, भ | त, द<br>थ, ध | - | - | ट, ड<br>ठ, ढ | क, ग<br>ख, घ | - |
| अर्धस्फोटक | - | - | प, ज<br>छ, झ | च, ज<br>छ, झ | -<br>- | -<br>- | -<br>- |
| घर्शक | - | स ०<br>० ० | -<br>- | श | -<br>- | -<br>- | (ह) ह |
| नासिक | ० म<br>० म्ह | ० न<br>० न्ह | - | - | ० ण<br>० ण्ह | ० ङ<br>० ० | - |
| पार्श्विक | ० ०<br>० ० | ० ल<br>० ल्ह | - | - | ० ळ<br>० ० | - | - |
| कंपक | - | - | ० र<br>० ऱ्ह | - | - | - | - |
| अर्धस्वर | ० च<br>० व्ह | - | - | ० य<br>० यृ | - | - | - |

चवकोनांतले दावेकडले ध्वनी अघोश आनी उजवेकडले सघोश तशेंच वयले शुध्द आनी सकयले महाप्राणयुक्त आसात.

**संधी :** संस्कृत व्याकरणांतल्या नेमाप्रमाण दोन ध्वनींच्या संपर्कांतल्यान जावपी बदलांक संधी म्हण्टात. ताचे दोन प्रकार म्हळयार १) वाक्यांतर्गत- वाक्यांतल्या दोन शब्दांच्या एकाचो अंत्यवर्ण आनी दुसऱ्याचो आद्यवर्ण हांची संधी. पूण मराठींत वाक्यांतर्गत संधी सहसा लिखीत भाशेंत मेळना. मराठींत संधीचे दोन प्रकार आसात. अ) स्वर संधी - इ + आ = याः, पी + आ = प्या, पी + आल = प्याल, उ + आ = वा, जळू + आ = जळवा, सासू + आ = सास्वा, दे + आ = द्या, दे + आल = द्याल, ओ + आ = वा, हो + आ = व्हा, हो + आल = व्हाल, हे संधीचे कांय नेम आसात.

**व्यंजन संधी :** व्यंजनान्त नामाक वा धातूंक व्यंजनान्दी प्रत्यय लागतात, तेन्ना व्यंजनसंधी जाता. देखीकः वाच + ईन = वाचीन, पा + ज + ईन = पाजीन.

**लिखाण :** मराठी लिखाणाखातीर देवनागरी लिपीचो वापर करतात. १३ व्या शेंकड्यासावन २० व्या शेंकड्या मेरेन देवनागरी वांगडाच कांय प्रमाणांत, आनी विशिश्ट वेव्हारांत मोडीचो वापर करप जालो. उलयता तेचप्रमाण सगळेच शब्द वा वाक्यां बरोवप जायनात. च, छ, ज, झ हे ताळू काय दांती हाचो बोध जायना. दीर्घ ई, आऊ, ऋ, लृ, ल्द, ञ आनी ष हीं अनावश्यक चिन्नां समजतात.

**आ) रूपविचार :** मराठी ही लिंगवचनाप्रमाण रूप धारण करपी भास आसा. नाम क्रियापदां आदींक लिंग आनी वचनाचे उपाधी प्रत्यय लागतात. शब्दांचें वर्गीकरण विकारक्षम आनी अविकारक्षम ह्या दोन मुखेल गटांत करतात. तांचेय जायते उपप्रकार आसात. तातूंतले कांय मुखेल प्रकार अशेः

१) विकारक्षम : अ) नाम, आ) सर्वनाम, इ) विशेशण, उ) क्रियापद.

२) अविकारक्षम : अ) क्रियाविशण, आ) उभयान्वयी अव्यय, इ) संबंधशब्द, ई) आश्रयशब्द, उ) प्रत्यय आनी ऊ) ध्वनीशब्द.

ह्या दर एकाचें वर्गीकरण जायत्या प्रकारांत करप जाता. हाचो सविस्तर विचार व्याकरण आनी भाशाशास्त्रांत करतात. देखीकः प्रत्यय लागून तयार जावपी नामाचें अनेकवचन-गाय-गाई, वा लिंगभेद वेगळे दाखोवप जातात.

**इ) वाक्यविचार :** मराठींत शब्दांक कार्यानुरूप रूप दितात देखून वाक्यांतल्या शब्दांचो क्रम बऱ्याच प्रमाणांत निश्चित जाल्लो दिसता. पूण कांय वेळां वेगळी अर्थसया दाखोवपाखातीर तो बदलप जाता. 'तो खड्ड्यात गेला' हाच्या जाग्यार 'गेला तो खड्ड्यात' असो शैली प्रयोग जाता.

सादारणपणान मराठी वाक्यरचना कर्ता (प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष), कर्म (प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष) आनी क्रियापद ह्या क्रमान घडटा. सकयल दिल्ल्या कोश्टकांत मराठी वाक्यप्रचार दिल्ले आसात. सगळेकडे क्रियापद हो म्हत्वाचो घटक आसा. प्रत्यक्ष कर्तो वा कर्म म्हूण येवपी नाम मूळ रूपांतच उरता. पूण अप्रत्यक्ष कर्ता वा कर्म हांकां संबंदीत नामाच्या सामान्य रुपाक- ला हो प्रत्यय लागता. देखीक-बाळ -बाळाला दुखतं.

| | | कर्ता | | | कर्म | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | | अप्रत्यक्ष | प्रत्यक्ष | अप्रत्यक्ष | प्रत्यक्ष | क्रियापद | वाक्यप्रचार |
| अकर्मक | १. | - | - | - | - | उजाडत | अकर्तृक अकर्मक |
| | २. | - | गाय | - | - | हंबरते | प्रकर्तृक अकर्मक |
| | ३. | कातडीला | - | - | - | खाजवतं | अप्रकर्तृक अकर्मक |
| सकर्मक | ४. | - | बोकडी | - | पाला | | प्रकर्तृक प्रकर्मक |
| | ५. | - | आई | मुलाला | - | भरवते | प्रकर्तृक अप्रकर्मक |
| | ६. | - | इंद्र | अहिल्येला | शाप | देतो | प्रकर्तृक अप्रकर्मक |
| | ७. | उंदराला | - | - | धान्य | आवडतं | अप्रकर्तृक प्रकर्मक |

साद्या वाक्यांतलो शब्दांचो क्रम वयर दिल्ले प्रमाण आसता. कांय सामान्य नेम अशे :

**१) विशेशण चडकरून नामाआदीं येता :** पांढरा घोडा हरभरे खातो. नाम सामान्यरुपांत आसलें जाल्यार विकारक्षम विशेशणय सामान्यरुपांत आसताः काळया कुत्र्याला मासे आवडतात.

**२) क्रियाविशेशण क्रियापदाआदीं येताः** कृष्ण तेथे जाईल, कृष्ण आज (काळ) तिथे (स्थान) जाईल, कृष्ण आज (काळ) धावत (प्रकार) तिथे (स्थान) जाईल.

कांय खेपे उभयान्वयी अव्ययान जोडिल्लीं वाक्यां मेळटात : तो शाळेला गेला आणि मी शेताकडे वळलो. ती आली तर मी मिरामारला जाईन.

शब्दाचे संबंद उपसंबंद उक्तावपाखातीर धातुसाधितां (उठत, उठला, उठलेला आदी), क्रियावाचक अव्यय (उठून, उठटना, उठय आदी), विशेशणां (उठता, उठलेला, उठणारा आदी) हांणी भरून काडिल्लीं आसात. तो आल्याशिवाय मी कशी नाचू? प्रश्नार्थक वाक्याखातीर आघात आनी प्रश्नवाचक शब्दाचो वापर करतात. 'हो' वा 'नाही' अशीं उत्तरां अपेक्षित आसल्यार प्रस्न आघातानच उक्तावप जाता. ती गेली का? ती गेली? अनुकूल उत्तराखातीर विधानाउपरांत तत्सूचक (न) हो अव्यय वापरपाची पद्दत आसा. ते गेले न? उत्तरेंत हिवाळा कडक असतो न? हेरकडेन प्रश्नवाचक सर्वनाम, अव्यय वा विशेशण वापरतात, उद्या कोण खेळणार? कदंब बस कुठे जाते?

नकारार्थी वाक्य 'न' हो उपसर्ग लावन 'अस' ची नकारार्थी रुपां वापरून जाता. कांय रुपांत विशिश्ट बदल जातात. माधव जातो, माधव जात नाही, माधव अभ्यास करून पहिला आला, माधव अभ्यास न करता पहिला (केल्याशिवाय) आला आदी.

**३) शब्दसंग्रह :** मूळ मराठी शब्दसंग्रह संस्कृतोद्‌भव आसा. तातूंत ऑस्ट्रिक आनी द्रविड भाशेंतल्या कांय शब्दांची भर पडिल्ल्याचें भाशाशास्त्रज्ञ सांगतात. मुसलमानी सत्तेक लागून तुर्की, फार्सी आनी अरबी शब्द मराठींत भरपूर आयल्यात. फौजदार, बिर्याणी, तमाशा, दगा अशे हजारांनी शब्द हे भाशेंतल्यान आयले. युरोपांतल्या ब्रिटिश, पुर्तुगेज आनी फ्रेंच हांचे भारतांतले वसाहतीक लागून आयिल्ल्या शब्दांचो आनी पडिल्ल्या प्रभावाचो तुळात्मक अभ्यास अजून तपशिलान जावंक ना. डॉक्टर, सायकल, मटण अशे जायते इंग्लीश शब्द मराठींत कायमचे येवन बसल्यात. राश्ट्रभास हिंदीचो प्रसार आनी हिंदी सिनेमाचे लोकप्रियतेकलागून स्वर्गीय, दर्शक, संविधान अशे जायते हिंदी शब्दय मराठींत आयल्यात.

- डॉ. आनंद पाटील

**मराठी रंगमाची :** तंजावर हांगाच्या भोसले राजांनी तेचपरी तांच्या आश्रितांनी १७व्या आनी १८व्या शतमानांत बरयल्लीं आनी सादर केल्लीं नाटकां हीं मराठी रंगमाचयेची सुरवात मानूं येता, हाचेविशीं वाद आसा. मराठी रंगमाचयेची सुरवात गोमंतकांत जाली अशेय उल्लेख मेळटात. पूण १८४३ त विष्णुदास भावे हाणें सांगली हांगा सादर केल्लो 'सीतास्वयंवर' ह्या नाटकाचो प्रयोग हीच मराठी रंगमाचयेची खरी सुरवात मानतात. सांगली संस्थानाचो अधिपती अण्णासाहेब पटवर्धन हाचे प्रेरणेन विष्णुदास भावे हाणें कर्नाटकांतले भागवतार मंडळीचे धर्तेचेर हें नाटक रचून सादर केल्लें. ताचे उपरांत ताणें जायतीं नाटकां बरयलीं आनी सादर केलीं.

विष्णुदास भावे हाणें पुराय महाराष्ट्रांत नाटकां सादर केल्लीं. जाकालागून त्या काळांत इचलकरंजीकर, मुंबईकर, कोल्हापूरकर, पुणेकर अशो जायत्यो नाट्यसंस्था स्थापन जाल्यो. ह्याच काळांत बळवंतराव मराठे, रावजी पवार, विष्णु वाटवे, विनायकराव कवठेकर, अशे जायते नट जल्माक आयले. ह्याच काळासावन मराठी रंगमाचयेक संगिताची जोड मेळ्ळी.

ताचे उपरांत 'किर्लोस्कर नाटक मंडळी' ही म्हत्वाची नाटक मंडळी स्थापन जाली. अण्णासाहेब किर्लोस्कराच्या शाकुंतल, सौभद्र ह्या नाटकांनी मराठी रंगमाचयेक वेगळेंच मोड दिलें. हांगासल्ल्यान मराठी रंगमाचयेर संगीत नाटकाचें युग सुरू जालें. ललित कलादर्श, गंधर्व, बलवंत, यशवंत आदी जायत्यो नाट्यसंस्था निर्माण जाल्यो. हातूंत गंधर्व नाटक मंडळीक सुमाराभायर नामना मेळ्ळी. बालगंधर्वाच्यो अप्रतिम स्त्री भूमिका आनी गोड गायन हाका लागून हो काळ मराठी रंगमाचयेचो भांगराकाळ म्हणप योग्य जातलें. ह्याच काळांत गांवागांवांनी जायत्यो नाट्यसंस्था जल्माक आयल्यो. तशेंच देवल, गडकरी, खाडिलकर ह्या सारके म्हान नाटककार मराठी रंगमाचयेक मेळ्ळे.

१९२० उपरांत चित्रपटांचे निर्मितीक सुरवात जाल्ल्यान मराठी

रंगमाचयेक अवकळा आयली. अशे परिस्थितींत मामा वरेरकर, आचार्य अत्रे, मो. ग. रांगणेकर हांणी मराठी रंगमाचयेक सांबाळून दवरली. अत्रेन एका परस एक अशीं विनोदी नाटकां बरोवन मराठी नाटकाचो प्रेक्षकवर्ग तिगोवन दवरलो. रांगणेकरान स्वताची नाट्यसंस्था स्थापन करून १९४३ त मराठी रंगमाचयेचो शत-सांवत्सारीक उत्सव मनोवपांत आयिल्लो. ह्या काळांत 'नाट्यमन्वंतर' आनी 'नाट्यनिकेतन' ह्या संस्थांनी म्हत्वाचो वावर केलो.

१९४५ उपरांत मराठी प्रायोगिक रंगमाचयेचो उदेंत जालो. १९६०त 'रंगायन' ही नाट्यसंस्था स्थापन जाली. ह्या काळांत विजया मेहता, दामू केंकरे, कमलाकर सारंग ह्या लोकांनी मराठी रंगमाचयेर नवेपण हाडपाचो यत्न केलो. 'रंगायन' आनी हेर कांय संस्थांनी प्रायोगिक रंगमाचयेच्या संदर्भांत म्हत्वाचो वावर केलो. चि. त्र्यं. खानोलकार, विजय तेंडुलकर, रत्नाकर मतकरी, सदानंद रेगे, गो. पु. देशपांडे, सतीश आळेकर आदी जायत्या नव्या नाटककारांनी मराठी रंगमाचयेक नवीं नाटकां दिलीं. महेश एल कुंचवार, वृंदावन दंडवते, पु. शि. रेगे हीं आनीक कांय उल्लेख करपासारकीं नाटकां.

उपरांतच्या काळांत मराठी रंगमाचयेर इब्सेनच्या नाट्य तंत्रान एक म्हत्वाचो पांवडो गांठलो. तेचपरी शेक्सपिअर, बर्नार्ड शॉ, पिरांदल्लो आयनेस्को, सॅम्युअल बेकेट ब्रेश्त, आदी जायत्या विदेशी लेखकांचो प्रभाव पडला. तांचीं जायतीं अणकारीत आनी रुपांतरीत नाटकां सादर जाल्लीं आसात. चि. त्र्यं. खानोलकर हाणें केल्लें 'अजब न्याय वर्तुळाचा' हें ब्रेश्ताच्या एका नाटकाचें रुपांतर म्हत्वाचें आनी उल्लेख करपासारकें आसा. तेभायर शिरवाडकर, कानेटकर, नाना जोग, दिलीप परदेशी हांणीय जायतीं अणकारीत आनी रुपांतरीत नाटकां बरयलीं. शिरवाडकराच्या 'नट सम्राट' ह्या किंग लिअरच्या धर्तेवयल्या नाटकाक सुमाराभायली नामना मेळ्ळी. तेंडुलकर, पु. ल. देशपांडे हांचे अणकारीत तशेंच स्वतंत्र नाट्य निमिर्तीक यश मेळ्ळें. तेंडुलकराच्या 'सखाराम बाइंडर', 'गिधाडे', 'घाशीराम कोतवाल' ह्या नाटकांनी आनी देशपांडे हाच्या 'तुझे आहे तुजपाशी', 'अंमलदार', 'ती फुलराणी' ह्या नाटकांक सुमाराभायर नामना मेळ्ळी.

वेवसायीक रंगमाचयेवयलो आनीक एक उल्लेख करपासारको नाटककार म्हळ्यार वसंत कानेटकर. ताच्या 'रायगडाला जेव्हा जाग येते', 'जेव्हा गवताला भाले फुटतात', 'हिमालयाची सावली' ह्या गंभीर नाटकांक तशेंच 'प्रेमा तुझा रंग कसा', 'प्रेमाच्या गावा जावे' ह्या कांय विनोदी सुखांतीकांक नामना मेळ्ळ्या. मधुकर तोरडमल हाच्या 'तरूण तुर्क म्हातारे अर्क' ह्या नाटकानय सुमाराभायर नामना मेळयली. मधुसुदन कालेलकर, बाळ कोल्हटकर, सुरेश खरे, हांणी आपल्या नाटकांवरवीं चडकरून मध्यमवर्गीय स्वरुपाचें जीवनचित्रण केलें. बाळ कोल्हटकराचें 'दुर्वांची चुडी' हें नाटक उल्लेख करपासारकें आसा. मराठी रंगमाचयेर 'नंदादीप संप्रदाय' नांवाचो एक संप्रदाय आसा. महेश एलकुंचवार, सतीश आळेकर ह्यासारक्या नव्या नाटककारांनी आनी जब्बार पटेल हाच्या सारक्या नव्या दिग्दर्शकांनी मराठी नवनाट्य घडयलें. पौराणिक, इतिहासीक आनी संगीत नाटकांची परंपरा तिगून उरली. छबिलदास रंगमाचयेच्या माध्यमावरवीं प्रायोगिक नाटकाचो चड विकास जालो. सत्यदेव दुबे, अमोल पालेकर, अरविंद देशपांडे आनी सुलभा देशपांडे हांणी वेगवेगळ्या स्वरुपाचीं नाटकां सादर केल्यांत. प्रायोगिक रंगमाचयेवयलीं 'प्रतिमा', 'आधेअधुरे', 'पार्टी', 'घोटभर पाणी' अशीं नाटकां म्हत्वाचीं आसात.

सद्या मराठी रंगमाचयेर जायत्यो नाट्यसंस्था, नाट्यनिर्मिती आनी सादरीकरण अशा स्वरुपाचें काम करतात. पुणें हांगाच्या 'भरत नाट्यमंदीर' आनी मुंबयच्या. 'नॅशनल सेंटर फॉर परफॉर्मिंग आर्टस' ह्या संस्थांचो वावर उल्लेख करपासारको आसा. हालींच्या काळांत 'घाशीराम कोतवाल', 'अजब न्याय वर्तुळाचा' अशीं कांय मराठी नाटकां परदेशांतूय वचून आयल्यांत. श्रीराम लागू, निळू फुले, राम नगरकर, काशीनाथ घाणेकर, प्रभाकर पणशीकर आदी जायत्या अभिनेत्यांनी अभिनयाच्या मळार आपलें खाशेलपण दाखयलें. लालन सारंग, विजया मेहता हांच्यो भुमिकाय लक्षांत उरपासारक्यो आसात.

आयची मराठी रंगमाची नव्यो नव्यो नाट्य संस्था, नवे नाट्यप्रवाह, नवे नाटककार, नवे नट हांणी गजबजून गेल्या. दलित रंगमाचयेचो उदेंत ही हालींच्या काळांतली आनीक एक म्हत्वाची चळवळ. 'थिएटर ॲकडमी', 'ॲक्टिव्ह थिएटर्स' ह्या संस्थानी मोलादीक वावर केला.

- डॉ. रवीन्द्र ठाकूर

**मराठी साहित्य :** मराठी साहित्याचो ७५० वर्सांचो विस्तृत इतिहास पुर्विल्लो आनी आर्विल्लो अशा दोन भागांत विभागता. सादारणपणान यादव काळासावन सुरू जावपी पुर्विल्लो काळ इ.स. १८०० च्या सुमाराक सोंपता आनी मराठी सत्तेचो ऱ्हास जावन इंग्लीश सत्तेन कब्जो घेतपसून म्हळयार सादारणपणान इ.स. १८०० सावन आर्विल्लो काळ सुरू जाता.

सुमार ६०० वर्सांचो पुर्विल्ल्या मराठी साहित्याचो इतिहास महानुभाव, नाथ, वारकरी, दत्त आदी पंथांच्या मनशांनी आनी पंडित कवींनी घडयलो अशें म्हणप समा जातलें. मराठी सत्तेच्या उदेंता उपरांत निर्माण जाल्लो शाहिरी साहित्याचो अभिनव प्रवाह ही ह्या काळखंडांतली म्हत्वाची घडणूक.

मराठी ही संस्कृतोद्भव प्राकृतापसून निर्माण जाल्ली आर्य भारतीय भास. इ. स. च्या पांचव्या शतमानापसून सुरू जाल्ली ही प्रक्रिया धाव्या शतमाना मेरेन पुराय जाली. मराठी भाशेचे सुरवातीचे आविश्कार ग्रंथगत

उल्लेख, शिलालेख, ताम्रपट हातूंत सोदचे पडटले. मराठीच्या ग्रंथाचो उल्लेख सुरवेक आठव्या शतमानांतल्या 'कुवलयमाला' ह्या उद्योतनसूरीच्या ग्रंथांत मेळटा. सोमेश्वराच्या 'मानसोल्लास' (इ. स. ११२९) ह्या ग्रंथांत मराठी ओवीरूप रचना मेळटा. ह्या ग्रंथांतल्यान कांय शिलालेख आनी ताम्रपटांतल्यान मराठी भाशेच्यो सुरवेच्यो कुरवो मेळटात. देखीकः अक्षीचो शिलालेख इ. स. १०१२, दिवेआगर हांगाचो ताम्रपट इ.स. १०६०.

इतिहासकार राजवाडे हाच्या मतान ज्योतिषरत्न माला हो मराठींतलो पयलो ग्रंथ. पूण ताची भास उत्तरकालीन दिसता. सादारणपणान मुकुंदराज हाचो विवेकसिंधू हो मराठींतलो पयलो ग्रंथ मानप जाता. पूण ताचो निर्मितीकाळ वादग्रस्त आशिल्ल्यान महानुभव पंडित म्हाइंभट हाणें बरयल्लो 'लीळाचरित्र' (इ. स. १२७०) हो मराठींतलो पयलो ग्रंथ.

महानुभाव पंथ ही तेराव्या शतमानांतली म्हत्वाची धर्मीक चळवळ आशिल्ली. सामान्य लोकांक पंथाचें तत्त्वगिन्यान कळचें देखून ह्या पंथान मराठींतल्यो ग्रंथरचना करपाक सुरवात केल्ली. ह्या ग्रंथांत म्हाइंभटान पंथाचो प्रवर्तक चक्रधर हाच्या यादींचें चरित्र बरयल्लें आसा. एकाक, पूर्वार्ध आनी उत्तरार्ध अशा तीन भागांत विभागिल्ल्या ह्या ग्रंथांत महानुभाव पंथाचें तत्त्वगिन्यान आनी इतिहास हांचो आस्पाव आसा. म्हाइंभटान १२८७ त 'गोविंदप्रभूचरित्र' हो आनीक एक ग्रंथ बरयलो. महानुभाव पंथांत केशिराज बास (दृष्टांत पाठ, सूत्र पाठ), दामोदर पंडित (वछाहरण) महदंबा (धवळे) आदी जायते ग्रंथकार जावन गेले. भास्करभट्ट बोरीकर, नरेंद्र, नारोव्यास बहाळिये, रवळो व्यास आदी ग्रंथकारांनी बरयल्ले सातीग्रंथ महानुभाव पंथाचें तत्त्वज्ञान समजून घेवपाक उपेगी पडटात. पूण फुडें खर आचार धर्माकलागून महाराष्ट्रांत महानुभाव पंथ फाटीं पडलो आनी आचरण सुलभ भक्तिमार्गाच्या वारकरी संप्रदायाची भरभराट जाली.

नाथसंप्रदायांतल्यान वारकरी संप्रदायाचो उदेंत जावन तेराव्या शतमानांत आनीक एक म्हत्वाची संस्कृतीक घडणूक घडली. ह्या शतमानांत संत ज्ञानेश्वरान 'ज्ञानेश्वरी' (इ. स. १२९०) हो भगवद्गीतेवयलो भाश्यग्रंथ बरोवन वारकरी संप्रदायाचो म्हूर्त घालो. पिरायेच्या फकत १९व्या वर्सा तत्त्वगिन्यान आनी काव्य हे नदरेन इतलो व्हड ग्रंथ बरोवपी ज्ञानेश्वराक वारकरी संप्रदायांत माऊली म्हूण वळखतात. ज्ञानेश्वरान अमृतानुभव, चांगदेव पासश्टी, अभंगगाथा अशो आनीकय भरपूर रचना केल्यो. मराठी समाजांत ज्ञानेश्वरी ह्या ग्रंथाक खूब मानाची सुवात मेळ्ळया. ज्ञानेश्वराचीं भावंडां सोपानदेव, मुक्ताबाय, हांणी अभंग रचना केल्ली आसा. त्याच काळांतलो आनीक एक संत नामदेव हाणें पंजाबमेरेन नाथभक्तीची व्हडविकाय पावयली. ताणें हिंदी, मराठी, पंजाबी आदी भाशांतल्यान अभंगरचना केली. त्या काळांत जायते संत निर्माण जाले आनी तांणी आपले आध्यात्मिक अणभव अभंगरचनेवरवीं लोकांमुखार मांडले. हातूंत चोखा मेळा, सावता माळी, नरहरी सोनार, गोरा कुंभार आदी जायत्या संतांचो आस्पाव जाता. चवदाव्या शतमानांत संत एकनाथ हाणें एकनाथी भागवत, चतुःश्लोकी भागवत, भावार्थ रामायण हे ग्रंथ बरोवन वारकरी संप्रदायाचें तत्त्वगिन्यान सामान्य लोकांमेरेन पावयलें. तेचपरी भारुडां, गौळणी अशो गावपासारक्यो मनोरंजनात्मक रचना करून पंथीय तत्त्वगिन्यानाचो प्रसार केलो. जनी जनार्दन, रामा जनार्दन, दासोपंत हांचोय नाथपंथांत आस्पाव जाता. एकनाथाचो नातू मुक्तेश्वर हाका कलाकवी म्हूण वळखतात. ताणें महाभारताचीं कांय पर्वां बरोवन प्रासादिक कवितेचो बरो आदर्श निर्माण केलो.

वारकरी संप्रदाय आनी सुफी संप्रदाय हांच्या मेळांतल्यान हुसेन अंबरखान, शेख मुहमंद ह्या मुस्लीम संतकवींनी आध्यात्मिक ग्रंथ बरयले. भारतांत धर्मप्रचाराच्या उद्देशान आयिल्ल्या फादर स्टिफन्स (ख्रिस्तपुराण) फादर क्रुवा आनी हेर कांय मिशनरी लोकांनी मराठी आनी कोंकणी भाशेंत ग्रंथरचना केली. उपरांत सुफी संप्रदाया आडच्यो प्रतिक्रिया म्हूण दत्तसंप्रदायाचो उदेंत जालो. ह्या संप्रदायांतल्या सरस्वती गंगाधर हाणें बरयल्ल्या गुरूचरित्र (इ. स. १५३८) ह्या ग्रंथाक मानाची सुवात मेळ्ळया. दासोपंत हाणें 'गीतार्णव' 'पदार्णव' हे सारके मोलादीक ग्रंथ बरयले. ताचो कपड्याचेर बरयल्लो 'पंचीकरण' हो ग्रंथ 'दासोपंताची पासोडी' म्हूण वळखतात.

ह्या काळांतले हेर उल्लेख करपासारके कवी अशे - त्र्यंबकराज, विष्णुदास नामा, शिवकल्याण, रंगनाथ मोगरेकर. एकनाथा उपरांत वारकरी संप्रदायाची घुडी संत तुकारामान फुडें व्हेली. ताचे अभंग रचनेंत भक्ती आनी उपदेश हांचो चड आस्पाव दिसता. ताणें ढोंगी लोकांचेर टीकेचे आघातय केल्ले आसात. ताणें सुमार ४५०० अभंग बरयल्यात. ताची शिश्या संत बहिणाबाई हिणें 'ज्ञानदेवे रचिला पाया' हो नामनेचो अभंग बरयला. समर्थ रामदास हाणें मनाचे श्लोक, दासबोध, रामायण अशी भरपूर ग्रंथरचना करून मुसलमानी शेकाखाल आशिल्ल्या महाराष्ट्राक स्वाभिमानाचो मंत्र दिलो. उपरांतच्या काळांत महिपती नाभाजी हाणें संतचरित्रां बरोवपाची परंपरा चलयली. वामन पंडित, श्रीधर, कृष्ण दयार्णव, विठ्ठल, सामराज ह्या कवींनी पंडिती काव्यांची व्हड परंपरा निर्माण केली. हेच परंपरेंत शिवकाळांत रघुनाथ पंडित आनी पेशवेकाळांत मोरोपंत (आर्याभारत) हे कवी निर्माण जाले. आर्यरचनेचेर ताचें आशिल्लें प्रभुत्व पळोवन ताका आर्यापती मोरोपंत अशें म्हणप जाता. उपरांतच्या काळांत शाहिरी कवितांचो उदेंत जालो. शाहिर अगीनदास, तुळशीदास हांणी पोवाडे रचनेची बुन्याद घाली. संत आनी पंडिती कवितेचे तुळेन शाहिरी कविता खुबूच वेगळ्यो आसून शाहिरी कविता म्हळयार मराठी मनाचो उत्कट आविश्कार मानप जाता. पोवाड्यांतल्यान मराठ्याची शुरता उक्ती जाली आनी लावण्यां वरवीं शृंगार भावनेचो आविश्कार जालो. पेशव्यांच्या काळांत पोवाड्यांवांगडाच लावण्यांकय चंवर आयलो. परशराम, होनाजी बाळा, रामजोशी, अनंत फंदी, सगनभाऊ, प्रभाकर अशे जायते शाहिर जावन गेले.

शिवाजी महाराजाचे प्रेरणेन बखर लिखाणाक उर्बा मेळ्ळी. ताकालागून मराठी साहित्य समृध्द जालें आनी मराठ्यांच्या इतिहासाची साधना निर्माण जाली. इतिहासाचार्य राजवाडे हाच्या मतान शालिवाहनाची बखर ही सगळयांत पोरनी बखर. पूण कांय विद्वानांच्या मतान महाकावतीची बखर सगळयांत पोरनी बखर. एकूण २०० बखरी उपलब्ध आसून ७० बखरी उजवाडाक आयल्यात. चरित्र-आत्मचरित्र, घराण्याचो इतिहास, इतिहासीक घडणुकांचें वर्णन करपी, अशा जायत्या प्रकारांत बखरीचें वर्णन करप जाता. शिवचरित्र बखरींत कृष्णाजी अनंत सभासद हाची सभासदी बखर (इ. स. १६९६) ही म्हत्वाची मानतात. हाचेभायर रघुनाथ यादव चित्रे हाची (चित्रगुप्ताची बखर), दत्ताजी वकिनवीस हाची ९१ कलमी बखर आदी जायत्यो शिवचरित्राचेर आदारीत बखरी आसात. पेशव्यांच्या काळांत भाऊसाहेबांची बखर (कृष्णाजी शामराव), पानिपताची बखर (रघुनाथ यादव चित्रे), होळकरांची थैली होळकरांची कैफियत अशो जायत्यो बखरी बरोवपांत आयल्यो. हेर बखरींत नागपूरकर भोसल्याची बखर, खरड्याच्या स्वारीची बखर, पेशव्यांची बखर, पटवर्धनी बाका अशो कांय उल्लेख करपासारक्यो बखरी आसात. १८४२त बाळकृष्ण हरिहर पटवर्धन हाणें बरयल्ली हरिवंशाची बखर ही निमणी बखर.

ह्या पुर्विल्ल्या काळांत वारकरी संप्रदायाच्या ग्रंथकारांनी मराठी साहित्यांत म्हत्वाची भर घाली आनी मराठी मनार आपलो प्रभाव तिगोवन दवरलो.

**आर्विल्लो काळः** इ. स. १८०० च्या सुमाराक पुर्विल्ल्यो काळ सोंपून आर्विल्लो काळ सुरू जालो. ह्या काळाचे सादारणपणान अशे उपकाळखंड जातात. इ. स. १८००ते १८७५; इ. स. १८७५ ते १९२०; इ. स. १९२० ते १९४५; इ. स. १९४५ ते १९९०.

किरिस्तांव मिशनरी डॉ. विल्यम केरी हाणें इ.स. १८०० त कलकत्ताकडच्या श्रीरामपूर हांगा एक छापखानो सुरू केलो. थंय ताणें बंगाली आनी मराठी पुस्तकां छापपाक सुरवात केली. ताणें १८०५ त मोडी लिपींत छापिल्लो 'मॅथ्यूचें शुभवर्तमान' हो मराठींतलो पयलो मुद्रित ग्रंथ. ह्या काळांत सगळया साहित्यप्रकारांत चडकरून इंग्लीश-संस्कृत ह्या भाशांतल्या साहित्यकृतीचे अणकार जावंक लागले. देखून ह्या काळखंडाक अणकारयूग म्हूण वळखूंक लागले. १८१८ त पेशवाईचो अस्त जालो आनी महाराष्ट्रांत इंग्लिशांचो शेक पातळ्ळो. मुंबय वाठाराचो शासक एलफिन्स्टन हाणें शिक्षणप्रसाराक चालना दिली. ताकालागून अणकारीत शालेय साहित्य व्हड प्रमाणांत तयार जावंक लागलें. हातूंत जॉर्ज जर्व्हिस, मेजर कँडी, स. का. छत्रे, बाळशास्त्री जांभेकर, हरी केशवजी हांचो मोलाचो वांटो आसा. हातूंत किरिस्तांव मिशनऱ्यांनी (मरे मिथल) बरयल्लें साहित्यय येता. ह्याच काळांत इंग्लीश साहित्याच्या अनुकरणांतल्यान कथा, कादंबरी, कविता हे नवे साहित्यप्रकार निर्माण जावंक लागले. ह्याच काळांत बाळशास्त्री जांभेकर हाणें 'दर्पण' हें दिसाळें सुरू केलें. ताचे उपरांत भाऊ महाजन (प्रभाकर), राघोबा जनार्दन (दिग्दर्शन), कृष्णशास्त्री चिपळूणकर (पुणे पाठशाळा पत्रक) हांणी नेमाळीं सुरू केलीं.

ह्या काळांत निर्माण जाल्ल्या कादंबरी साहित्यांत बाबा पदमनजी (यमुना पर्यटन १८५७), लक्ष्मणशास्त्री हळवे (मुक्तामाला १८६१), रा. भि. गुंजीकर (मोचन गड १८७१) हीं नांवां उल्लेख करपासारकीं आसात. जाल्यार लोकहितवादी (शतपत्रे), जोतीबा फुले (शेतकऱ्याचा आसूड), विष्णुबुवा ब्रह्मचारी (सुखदायक राज्यप्रकरणी निबंध), कृष्णशास्त्री चिपळूणकर, दादोबा पांडुरंग हीं नांवां निबंद साहित्याच्या मळार उल्लेख करपासारकीं आसात. तांणी आपल्या निबंदांवरवीं जायते समाजीक विशय हाताळ्ळे. रामजी गणोजी (स्त्री चरित्र), मोरोबा कान्होबा विजयकर (घाशीराम कोतवाल) हांणी कथा साहित्याची निर्मिती केली. गुलबकावली, एल. ए. सनोवर, हतिमताई, अरबी भाशेंतल्यो गोड आनी चमत्कारिक कथा ह्या कथांच्या पुस्तकांनी मराठी वाचकाक वाचनाची गोडी लायली.

ह्याच काळांत सांगली हांगा १८४३ त विष्णुदास भावे हाणें 'सीतास्वयंवर' हें नाटक सादर करून मराठी रंगमाचयेचें मुळावण घालें. उपरांतच्या काळांत कालीदासाच्या 'शाकुंतल' ह्या नाटकाचे तशेंच शेक्सपिअरच्या जायत्या नाटकांचे अणकार जाले. महादेवशास्त्री कोल्हटकर हाणें शेक्सपिअरच्या 'ऑथेल्लो' ह्या नाटकाचे उल्लेख करपासारके अणकार केले. वि. ज. कीर्तने हाणें इतिहासीक नाटकां बरयलीं. वि. मो. महाजनी हाणें 'कुसुमांजली' ह्यो अणकारीत कविता रचल्यो. म. मो. कुंटे हाचें 'राजा शिवाजी' हें दीर्घकाव्य, का. र. कीर्तीकर हाचें 'इंदिरा' हें रुपांतरित खंडकाव्य तशेंच ब. रा. प्रधान हाचें 'दैवसेनी' हें रुपांतरित खंडकाव्य आदी रचना फुडल्या काळांतले कवितेक मार्गदर्शक जाल्यो. दादोबा पांडुरंग हाची केकावलीवयली 'यशोदा पांडुरंग' टीका, राजवाडे आनी कृष्णशास्त्री चिपळूणकर हांचे व्याकरणावयले निबंध तशेंच का. बा. मराठे हाचो 'नावल आनी नाटक हे विशींचो निबंध' हें ह्या काळांतलें उल्लेख करपासारकें भाशेविशींचें आनी समीक्षेविशींचें लिखाण.

मराठींतल्या कोशसाहित्याकूय ह्याच काळांत सुरवात जाली. डॉ. विल्यम केरी हाणें १८१०त पयलो मराठी शब्दकोश उजवाडायलो. उपरांत मोल्सवर्थ, कँडी आनी महाराष्ट्रीय शास्त्री पंडितांनी कोशसाहित्य उजवाडा हाडलें. मराठी व्याकरण रचनेचो पयलो यत्न डॉ. विल्यम केरी हाणेंच केलो. ताणें १८०५त मराठी भाशेचें व्याकरण इंग्लिशींत बरयलें. उपरात मेजर कँडी हाच्या मार्गदर्शनाखाल शास्त्री मंडळीन पंडिती व्याकरण तयार केलें. दादोबा पांडुरंग हाणें मराठी भाशेचें व्याकरण ह्याच काळांत बरयलें. गंगाधर शास्त्री टिळक, कृष्णशास्त्री गोडबोले, हांणीय व्याकरणां बरयलीं. अशेतरेन १८०० ते १८७५ हो काळखंड चडकरून अणकारीत

साहित्याचो जालो. ह्याच काळांत जायते मराठी साहित्यप्रकार मराठी साहित्यांत किल्लले, वाडले आनी विकसीत जाले.

**इ. स. १८७५ ते १९२० :** १८७४ त विष्णुशास्त्री चिपळूणकर हाणें 'निबंधमाला' सुरू करून मराठी साहित्याच्या मळार नवी उमेद हाडली. स्वदेश, स्वधर्म, स्वभाशा हांच्या पुनरुत्थानाखातीर ताणें आपली लेखणी झरयली. ह्याच काळांत महाराष्ट्रांत स्वतंत्र विचारांचें आनी ब्रिटिशांआडच्या असंतोशाचें वारें घोळूंक लागलें. निबंध साहित्यावांगडाच कथा, कादंबरी, नाटक, काव्य आदी वाङमय प्रकारांत आर्विल्लेंपण आयलें. टिळक (केसरी, मराठा), आगरकर (सुधारक) हांणी ह्या काळांत राजकीय निबंद बरयले. शि. म. परांजपे (काळ), खाडिलकर, केळकार (केसरी) हांणी टिळकाची परंपरा फुडें व्हेली. केशवसुतान (कृष्णाजी केशव दामले) नवे विचार हाडून मराठी कवितेक नवें वळण दिलें. ताचे परंपरेंत ना. वा. टिळक, बालकवी (त्र्यं. बा. ठोंबरे), विनायक, गोविंदाग्रज (राम गणेश गडकरी), कवी दत्त हे कवी निर्माण जाले. हरिभाऊ आपटे हाणें आपल्या समाजीक कादंबऱ्यांवरवीं बायलांच्या प्रस्नांचो आनी सुधारणावादाचो नियाळ केलो. वास्तववादी मराठी कादंबरीचो प्रवाह ह. ना. आपटे हाणें तयार केलो. ताच्यो 'पण लक्षात कोण घेतो', 'मी', 'यशवंतराव खरे', 'जग काय म्हणेल' आदी जायत्यो समाजीक कादंबऱ्यो प्रसिध्द आसात. वा. म. जोशी (रागिणी, आश्रम हरिणी, इंदू काळे, सरला भोळे, सुशिलेचा देव), डॉ. श्री. व्यं. केतकर ('ब्राह्मण कन्या', 'गोंडवनातील प्रियंवदा 'गावसासू', 'भटक्या' आदी) आदी कादंबरीकारांनीय वास्तववादी कादंबऱ्यो बरयल्यात. ह. ना. आपटे हाणें 'गड आला पण सिंह गेला', 'वज्राघात', 'रुपनगरची राजकन्या' आदी इतिहासीक कादंबऱ्यो बरोवन राश्ट्रीय भावनांचो नियाळ करपाचो यत्न केलो. ताच्या ह्या इतिहासीक कादंबऱ्यांनी नाथमाधव (सावळ्या तांडेल, स्वराज्यमाळेंतल्यो जायत्यो कादंबऱ्यो), वि. वा. हडप (कादंबरीमय पेशवाई) हांच्या कादंबऱ्यांक प्रेरणा मेळ्ळी.

ह्याच काळांत अण्णासाहेब किर्लोस्कर हाणें 'संगीत सौभद्र' हें नाटक बरोवन आनी सादर करून मराठी रंगमाचयेर आगळो वेगळो बदल घडयलो. ह्याच काळांत मराठी रंगमाचयेक गो. ब. देवल (संगीत शारदा, सं. संशयकल्लोळ), कृ. प्र. खाडिलकर (मानापमान), गडकरी (एकच प्याला) हे सारके व्हड नाटककार आनी बालगंधर्वासारके व्हड नट मेळ्ळे. उपरांतच्या काळांत विनोदी फार्साच्या माध्यमांतल्यान समाजीक विशय मांडले.

१८९० त सुरू जाल्ल्या ह. ना. आपटे हाच्या करमणूक ह्या मासिकावरवीं मराठी कथेक सुरवात जाली. ताचेउपरांत वि. सी. गुर्जर, आनंदीबाई शिर्के, काशीबाई कानिटकर, गिरिजाबाई केळकर, आदी जायत्यो लेखक-लेखिका मुखार आयल्यो. तांच्या कथा साहित्यांत त्या काळांतलें समाजीक जिविताचें पडबींब पडिल्लें दिसता.

विष्णुशास्त्री चिपळूणकर हाणें डॉ. जॉन्सन हाचें चरित्र बरोवन चरित्र लेखनाची देख घालून दिली. ताचेपसून स्फूर्त घेवन ह्या काळांत संवसारांतल्या जायत्या इतिहासीक व्यक्तिंचीं चरित्रां बरोवप जालीं. शिवाजी महाराज आनी लोकमान्य टिळक हांचीं जायतीं चरित्रां बरोवप जालीं. हातूंत न. चिं. केळकर हाचें टिळकचरित्र उल्लेख करपासारकें आसा. श्री. कृ. कोल्हटकर हाणें 'सुदाम्याचे पोहे ऊर्फ साहित्य बत्तिशी' हें पुस्तक बरोवन मराठी विनोदी लिखाणाचो शुभारंभ केलो. गडकरी हाणें 'बाळकराम' ह्या टोपण नांवान विनोदी लेखन केलें. विष्णुशास्त्री चिपळूणकर आनी श्री. कृ. कोल्हटकर हांणी ह्या काळांतल्या मराठी समीक्षेच्या मळार मोलादीक वावर केलो. बऱ्या बऱ्या साहित्यकृतींचेर ताणी रसग्रहणात्मक लेख बरयले. न. चिं. केळकर हाणें साहित्यविचार मांडले. वि. का. राजवाडे, दा. बा. पारसनीस, वा. वा. खरे. हांणी इतिहाससंशोधनाचो मोलादीक वावर केलो. आपजिणेच्या मळार रमाबाई रानडे, हिचें 'आमच्या आयुष्यांतील काही आठवणी' (१९१०) ही उल्लेख करपासारकी आपजीण. न्यायमुर्ती रानडे हाणें घडयल्लें महाराष्ट्राचे प्रबोधन हो ह्या काळाचो म्हत्वाचो विशय.

**इ. स. १९२० ते १९४५ :** १९२० च्या सुमाराक केशवसूत, बालकवी, गोविंदाग्रज, टिळक, दत्त ही मराठी कवींची पिळगी फाटीं पडली. १९२०त लोकमान्य टिळकाक मरण आयलें. महाराष्ट्राचे संस्कृतीक जिणेंत एक प्रकारची पोकळी निर्माण जाली. तेन्ना माधव ज्युलियन, यशवंत, गिरीश , श्री. बा. रानडे, ह्या कवींनी रविकिरण मंडळाची स्थापना करून मराठी कवितेक चालना दिली. १९३० उपरांत बा. भ. बोरकर, कुसुमाग्रज, अनिल हे कवी मुखार आयले. मराठी कादंबरीच्या मळार ह्या काळांत ना. सी. फडके, वि. स. खांडेकर, माडखोलकर हांची नामना आशिल्ली. ना. सी. फडके हाणें दौलत, जादुगार, कुलाब्याची दांडी, प्रवासी आदी जायत्यो कादंबऱ्यो बरोवन मराठी रसिकांचीं मनां जिखून घेतलीं. वि. स. खांडेकरान 'हिरवा चाफा', 'पांढरे ढग', 'क्रौंचवध' आदी जायत्यो कादंबऱ्यो बरोवन आदर्श जीवनवादाचो पुरस्कार केलो. विश्राम बेडेकर, विभावरी शिसरकर, पु. ल. देशपांडे हे ह्या काळांतले आनीक कांय उल्लेख करपासारके कादंबरीकार आसात. बेडेकराच्या रणांगण हे कादंबरीन आपली स्वतंत्र सुवात निर्माण केली. वि. स. सुखटणकर, लक्ष्मणराव सरदेसाई, र. वा. दिघे, ग. ल. ठोकळ, वि. वि. बोकील आदी जायत्या कथाकारांनी कथा साहित्यांत भर घाली. हातूंतल्या दिघे, ठोकळ, सुखटणकर आनी सरदेसाई हांणी गांवगिरे जिणेचो आविश्कार घडोवपी कथा बरयल्यो.

१९२० उपरांत देंवती कळा लागिल्ले मराठी रंगमाचयेक आचार्य अत्रे, मामा वरेरकर, मो. ग. रांगणेकर हांणी वयर काडली. आचार्य अत्रेन साश्टांग नमस्कार, भ्रमाचा भोपळा, लग्नाची बेडी, ब्रह्मचारी, तो मी नव्हेच आदी जायतीं नाटकां बरोवन रंगमाचयेक विनोदी नाटकांची

जोड दिली. रांगणेकरान चडशीं कुटुंबिक नाटकां बरयलीं. ताचें 'कुलवधू' हें नाटक उल्लेख करपासारकें आसा. चि. वि. जोशी हाणेंय विनोदी साहित्याची निर्मिती केली. मराठी लघुनिबंदाच्या मळार फडके, खांडेकर, काणेकर, गो. रा. दोडके हांणी मोलादीक वावर केलो. ह्या काळांतलें कुसुमावती देशपांडे हिचें निबंदलेखन उल्लेख करपासारकें आशिल्लें. आपजिणेच्या मळार लक्ष्मीबाई टिळक हिचें 'स्मृतिचित्रे' हे आपजिणेक खुबूच नामना मेळ्ळी. द. वा. पोतदार, ग. ह. खरे हांणी इतिहास संशोधनाचेर भरपूर लिखाण केलें. मराठी साहित्याच्या इतिहासाचें बरपय ह्या काळांत जालें. द. वा. पोतदार हाणें 'मराठी गद्याचा इंग्रजी अवतार' हो ग्रंथ बरयलो. वि. ल. भावे हाचो महाराष्ट्र सारस्वत हो उल्लेख करपासारको ग्रंथ. गं. बा. सरदार हाणें 'अर्वाचीन मराठी गद्याची पूर्वपीठिका' बरयली. कृ. पां. कुलकर्णी हाणें 'मराठी भाशाः उदगम व विकास' हो ग्रंथ बरोवन मराठी भाशेच्या अभ्यासाक सुरवात केली. शं. गो. तुळपुळे हाचो 'यादवकालीन मराठी भाषा' हो उल्लेख करपासारको ग्रंथ. ह्याच काळांतली समीक्षालेखनाची परंपरा फुडें व्हरपी लेखक म्हळयार रा. श्री. जोग, द. के. केळकर, के. ना. वाटवे, वा. गो. आपटे हाणें 'मराठी शब्दरत्नाकर' हो शब्दकोश तयार केलो.

**इ.स. १९४५ ते इ.स. १९९० :** इ.स. १९४५ उपरांत नव्या साहित्याक भरपूर चालना मेळ्ळी. हातूंत कवितेच्या मळार बा. सी. मर्ढेकर आनी कथेच्या मळार गंगाधर गाडगीळ, अरविंद गोखले, पु. भा. भावे आनी व्यंकटेश माडगुळकर हांणी म्हत्वाचो वावर केलो. मर्ढेकरान आपली कविता आनी कादंबरीवरवीं झुजा उपरांतच्या काळांतल्या मानवी जिविताचें दिनवाणें अशें चित्र मांडलें. यांत्रिक युगाकलागून मनशाचे जिणेचेर जाल्लो परिणाम, नवी प्रतिमाश्रृश्ट, नवी अभिव्यक्ती आनी नवो आशय हे मर्ढेकराचे कवितेचे विशय आसात. नव कवितांचे परंपरेंत मुक्तिबोध, करंदीकर, बापट, पाडगांवकर, नारायण सुर्वे, इंदिरा संत, पद्मा भोळे, शांता शेळके आदी कवी कवियत्रींचो आस्पाव जाता. गाडगीळाचे 'कडू आनी गोड', 'तलावातले चांदणे', 'खरं सांगायच म्हणजे' आदी आनी माडगुळकराचे 'जांभळाचे दिवस', 'माणदेशी माणसे', 'काळी आई' आदी कथासंग्रहांची नामना आसा. नवकवितेचे परंपरेंत दि. बा. मोकाशी, जी. ए. कुलकर्णी, विलास सारंग, आनंद विनायक, जामा गांवकर, कमल देसाई, श्री. दा. पानवलकर आदी कवींनी उदरगत घडोवन हाडली.

१९६०च्या अदमासाक मराठी कादंबरींत सुमाराभायर उदरगत जाली. श्री. ना. पेंडसे (एल्गार, हद्दपार, गारंबीचा बापू, रथचक्र, हत्या) गो. नी. दांडेकर (पवनाकाठचा धोंडी, पडघवली, माचीवरला बुधा), व्यंकटेश माडगुळकर (बनगरवाडी) हांणी मराठी कादंबरीक गांवगिरे जिणेअणभवाची व्हड जोड दिली. हेच फाटभुंयेचेर उद्धव शेळके (धग, डाळींबाचे दाणे), रणजित देसाई (माझा गाव, बारी, स्वामी), भालचंद्र नेमाडे (कोसला), शंकर पाटील (टारफुला), हमीद दलवाई (इंधन), मनोहर तल्हार (माणूस), दि. बा. मोकाशी (देव चालले) आदी जायत्या लेखकांच्यो कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यो. रत्नाकर मतकरी, अरूण साधू, आनंद यादव, रा. रं. बोराडे, आनंद पाटील, प्रभाकर पेंढारकर, दीनानाथ मनोहर, भाऊ पाध्ये आदी जायत्या लेखकांनी मराठी कादंबरीच्या मळार व्हड वावर केलो. स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत नाट्यवाङमयांत वि. वा. शिरवाडकर, विजय तेंडुलकर, जयवंत दळवी, पु. ल. देशपांडे, रत्नाकर मतकरी, आदीनी म्हत्वाची भर घाली. पु. ल. देशपांडे हाणें अंमलदार, तुझे आहे तुजपाशी, सुंदर मी होणार आदी जायतीं नाटकां तशेंच 'व्यक्ती आणि वल्ली', 'असा मी असामी', 'खोगीर भरती', 'गोळाबेरीज' आदी जायते विनोदी लेखसंग्रह उजवाडा हाडले.

ह्या काळांत चरित्र-आत्मचरित्र ह्या मळांरय उल्लेख करपासारको वावर घडलो. दुर्गा भागवत, इरावती कर्वे, गो. वि. करंदीकर हांणी मराठी लघुनिबंदांत भर घाली. तशेंच बा. सी. मर्ढेकराच्या सौंदर्य आनी साहित्य ह्या ग्रंथान मराठी समीक्षाविचारांत म्हत्वाची भर घाली. ताचेउपरांत वा. ल. कुलकर्णी (साहित्य आणि समीक्षा), दि. के. बेडेकर, (साहित्यविचार), श्री. के. क्षीरसागर (टीका विवेक), द. ग. गोडसे (पोत, शक्तिसौष्ठव), शरच्चंद्र मुक्तिबोध (सृष्टी, सौंदर्य आणि साहित्यमूल्य), द. भि. कुलकर्णी आदी जायत्या टीकाकारांनी साहित्य विचारांची मांडणी केली. कुसुमावती देशपांडे हिणें 'मराठी कादंबरी पहिले शतक', नरहर कुरूंदकर हाणें 'धार आनी काठ' हे ग्रंथ बरोवन मराठी साहित्याचो इतिहास बरोवपाचे यत्न केले. ह्या काळांतले रा. श्री. जोग हाच्या संपादनाखाल तयार करपांत आयिल्ले साहित्य इतिहासाचे महाराष्ट्र साहित्य परिशदेचे खंड आनी अ. ना. देशपांडे हाचे साहित्य इतिहासाचे खंड म्हत्वाचे आसात. म. पां. सबनीस हाणें 'उच्चतर मराठी व्याकरण' तयार केलें. ना. गो. कालेलकर, अशोक केळकर, सु. म. कत्रे, अ. का. प्रियोळकर हांणी भासाभ्यासाच्या मळार जाल्यार डॉ. यू. म. पठाण, वि. भि. कोलते, य. खु. देशपांडे, शं. गो. तुळपुळे हांणी महानुभाव साहित्याच्या संशोधनाच्या संपादनाचें व्हड कार्य केलें.

१९७५ उपरांतच्या काळांत मराठी साहित्याच्या मळार जायते फांटे तयार जाले. दलित साहित्य, गांवगिरें साहित्य, स्त्रीवादी साहित्य, ह्या साहित्यीक चळवळींनी मराठी साहित्याक आशय आनी अभिव्यक्तीचे नदरेन नवीं परिमाणां दिवपाचो यत्न जालो. दलित साहित्याच्या मळार दया पवार (बलुतं), लक्ष्मण माने(उपरा), लक्ष्मण गायकवाड (उचल्या), पार्थ पोळके (आभरान) आदी जायत्या लेखकांनी आत्मकथनां बरोवन त्या समाजाचें चित्रण लोकांमुखार मांडलें. दलित कवितेच्या मळार दया पवार (कोंडवाडा), नामदेव ढसाळ (गोलपिठा), ज. वि. पवार, केशव मेश्राम, यशवंत मनोहर, वाहरू सोनावणे आदी जायत्या कवींनी मोलादीक भर घाली. बाबुराव बागूल (जेव्हा मी जात चोरली होती, मरण स्वस्त होत आहे), शंकरराव खरात (तडीपार, बारा बलुतेदार), अण्णा भाऊ

साठे (बरबाधा कंजारी), अमिताभ, योगिराज वाघमारे हांणी दलित कथासाहित्यांत भर घाली. दत्ता भगत, प्रेमानंद गज्वी, उत्तम बंडू तुपे ह्या म्हत्वाच्या नाटककारांनी दलित रंगमाचयेचेर मोलादीक वावर केलो. दलित साहित्याच्या प्रकाशनाच्या मळार डॉ. गंगाधर पानतावणें हाच्या संपादनाखाल उजवाडा येवपी 'अस्मितादर्श' हें नेमाळें म्हत्वाचो वावर करता.

दलित साहित्याच्या फाटोफाट गांवगिऱ्या साहित्याची चळवळ सुरू जाली. आनंद यादव, रा. रं. बोराडे आनी नागनाथ कोत्तापल्ले हांणी गांवगिरी साहित्य चळवळ चालीक लायली. गोतावळा, नटरंग (आनंद यादव), पाचोळा (रा. रं बोराडे) ह्यो गांवगिऱ्या साहित्य मळावयल्यो मोलादीक साहित्य कृती. सद्याच्या काळांत गांवगिऱ्या साहित्याच्या मळार आनंद पाटील (कागुद आणि सावली), पुरषोत्तम बोरकर (मेड इन इंडिया), राजन गवस (चौंडक, भंडारभोग) आदी जायते लेखक कथा कादंबरी ह्या स्वरुपाचें लिखाण करतात. गांवगिरे कवितेच्या मळार आनंद यादव, विठ्ठल वाघ, गणेश कुडे, सोपान हाळमकर, उत्तम कोळगांवकर हांचीं नांवां उल्लेख करपासारकीं आसात. गो. म. कुलकर्णी, अ. वा. कुलकर्णी हांणी गांवगिऱ्या साहित्याचें आनी डॉ. भालचंद्र फडके, वसंत मून हांणी दलित साहित्याची समिक्षा करपी बरप केलें. गौरी देशपांडे, सोनिया आदी लेखिकांनी बायलांचे नदरेंतल्यान कथा लेखन केलें. विद्युत भागवत, आश्विनी धोंगडे, विलास खोले हांणी स्त्रिवादी समीक्षा लिखाण केलें.

या. वा. वडस्कर, सुभाष सावरकर हांणी विदर्भांत जनसाहित्याची चळवळ निर्माण केली. हाचेवांगडाच आदिवासी साहित्य हो नवो साहित्यप्रवाह मराठी साहित्यांत निर्माण जालो.

**नेमाळीं** : इ. स. १८३२त बाळशास्त्री जांभेकर हाणें सुरू केल्लें 'दर्पण' हें मराठींतलें पयलें खबरांपत्र. ताणेंच १८४० त राघोबा जनार्दन हाच्या आदारान 'दिग्दर्शन' हें पयलें मराठी म्हयन्याळें सुरू केलें. उपरांत प्रभाकर मराठी ज्ञानप्रसारक, विविधज्ञानविस्तार अशीं जायतीं नेमाळीं सुरू जालीं. ह्या नेमाळयांचो मुखेल उद्देश गिन्यानाचो प्रसार करप, ताचो संग्रह करप असो आशिल्लो. 'ज्ञानोदय' ह्या सारकीं नेमाळीं धर्मप्रसाराचो वावर करतालीं. 'सर्वसंग्रह' सारकीं कांय नेमाळीं पुर्विल्ल्या मराठी साहित्याचें मुद्रण करतालीं. १८७४ त विष्णुशास्त्री चिपळूणकर हाणें निबंधमाला हें नेमाळें सुरू करून मराठी नेमाळें साहित्याक नवी दिका दिली. स्वदेश, स्वधर्म, स्वभाशा हांच्या पुरस्काराचो नवो मंत्र दिलो. ताच्यापसून प्रेरणा घेवन टिळकान 'केसरी' आनी 'मराठा' हीं दिसाळीं सुरू केलीं. आगरकरान समाजसुदारणेच्या हेतान 'सुधारक' सुरू केलें. हाचेभायर 'काळ', 'संदेश', 'भाला' अशीं जायतीं दिसाळीं राजकीय मतप्रतिपादनाखातीर सुरू जालीं. डॉ. आंबेडकरान 'जनता', बहिष्कृत भारत हातूंतल्यान दलित समाजाचे प्रश्न मांडले.

ह. ना. आपटे हाणें सुरू केल्लें (१८९०) 'करमणूक' हें मराठींतलें पयलें साहित्यीक नेमाळें. ही परंपरा 'मनोरंजन', 'रत्नाकर', 'प्रतिभा' ह्या मासिकांनी फुडें व्हेली. सद्याच्या काळांत प्रतिष्ठान, युववाणी, पंचधारा, महाराष्ट्र साहित्य पत्रिका, आस्मितादर्श आदी जायत्या नेमाळयांवरवीं नवें साहित्य उजवाडा येता. दै. महाराष्ट्र टाइम्स, लोकसत्ता, केसरी आदी जायतीं दिसाळीं, पाक्षिकां, नेमाळीं आनी वेगवेगळ्या स्वरुपाचे दिवाळी अंक उजवाडा येतात.

**साहित्यसंस्था** : १९०६ त स्थापन जाल्ली 'महाराष्ट्र साहित्य परिषद पुणें' ही महाराष्ट्रांतली पयली साहित्य संस्था. तेचपरी विदर्भ साहित्य संघ, नागपूर; मराठवाडा साहित्यपरिशद औरंगाबाद; मुंबई मराठी साहित्य संघ, मुंबय; मराठी साहित्य परिशद आंध्रप्रदेश, हैदराबाद; मध्यप्रदेश साहित्य परिशद, जबलपूर; कर्नाटक राज्य मराठी साहित्य परिशद, गुलबर्गा; गोमंतक साहित्य सेवक मंडळ; गोवा; शारदोपासक मंडळ, ग्वाल्हेर; मराठी वाङमय मंडळ उज्जैन आदी जायत्यो साहित्य संस्था महाराष्ट्रांत आनी महाराष्ट्राभायर मराठी साहित्याक उर्बा दिवपाचो आनी पोसवण दिवपाचो वावर करतात. तेचपरी नेमाळीं वा ग्रंथ उजवाडा हाडप अशेतरेचें कामय ह्यो साहित्य संस्था करतात. ह्यो साहित्यसंस्था 'प्रतिष्ठान', 'युववाणी', 'पंचधारा', 'महाराष्ट्र साहित्य पत्रिका' आदी नेमाळीं चलयतात. १९६१ त 'मराठी साहित्य महामंडळा'ची स्थापना जाली. ही संस्था अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलनाची संयोजनाची जबाबादारी घेता. मराठी साहित्य संमेलनाची सुरवात न्या. रानडे हाणें सुरू केल्ली. १८७८ त पयलें मराठी ग्रंथकार संमेलन जाल्लें, तेन्नाच्यान दर वर्सा अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलन जाता.

**इनामां** : महाराष्ट्र राज्य, साहित्य अकादेमी दिल्ली, महाराष्ट्र साहित्य परिशद पुणें, महाराष्ट्र राज्य साहित्य संस्कृती मंडळ, मुंबय ह्यो आनी हेर जायत्या संस्थांकडल्यान मराठींतले बरे साहित्यकृतींक पुरस्कार दिवप जातात. साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळिल्ल्या पुस्तकांत उपरा, उचल्या, झोंबी, हरवलेले दिवस, टीका स्वयंवर, आदी जायत्या सोबीत साहित्यकृतींचो आस्पाव जाता. वि. स. खांडेकर आनी वि. वा. शिरवाडकर हांकां भारतीय साहित्याच्या मळार सर्वोत्कृश्ट समजुपांत येवपी ज्ञानपीठ पुरस्कार फाव जाल्लो आसा. दया पवार, लक्ष्मण माने हांकां फाय फाउंडेशनचे पुरस्कार मेळ्ळयात. हालींच्या काळांत ज्येश्ठ कवी विंदा करंदीकर हाका मध्य प्रदेश सरकाराचो कबीर पुरस्कार मेळ्ळा. कवी नारायण सुर्वे हाका यशवंतराव चव्हाण प्रतिश्ठानचो पुरस्कार दिवपांत आयलो. गोंयचे गोमंतक मराठी अकादमीवरवीं गोंयच्या मराठी साहित्याक पुरस्कार दिवप जातात.

**ग्रंथालयां** : मराठी ग्रंथसंग्रहालय ठाणें आनी मुंबय ग्रंथसंग्रहालय दादर, मुंबय हीं महाराष्ट्रांतलीं सगळयांत व्हड आनी सगळयांत पोरनीं ग्रंथालयां. महाराष्ट्रांतलीं हेर उल्लेख करपासारकीं ग्रंथालयां अशीं: वाचन

मंदीर पुणें, नगर वाचनालय सातारा, समर्थ वाग्देवता मंदीर धुळे, करवीर नगर वाचन मंदीर, कोल्हापूर, आपटे वाचन मंदिर इचलकरंजी हीं ग्रंथालयां साहित्याविशींचो उपक्रम करतात. हाचेभायर तालुका आनी जिल्हा पांवड्याचेर जायतीं ग्रंथालयां गिन्यानाचो आनी साहित्य प्रसाराचो वावर करतात. महाराष्ट्रांतल्या साहित्य संस्थांचीं आनी विद्यापिठाचीं ग्रंथालयां संदर्भ साहित्याचे नदरेन उल्लेख करपासारकीं आसात.

**लोकसाहित्य :** साने गुरूजी, कमलाबाई देशपांडे, सरोजनी बाबर हे मराठी लोकासाहित्याचे सुरवेचे अभ्यासक आनी संकलक आसात. ना. गो. नांदापूरकर (माहेरचे मराठी, मराठीचा मोहोर), डॉ. यु. म. पठाण (*मराठवाड्यांतील लोककथा*), सरोजनी बाबर (बाळराज, तीर्थांचे सागर) हांणी लोकसाहित्याचें संकलन केलां. पूण मराठी लोकसाहित्याच्या अभ्यासाक रा. चि. ढेरे (लोक संस्कृतीची क्षितिजे, संत साहित्य व लोकासाहित्यः काही अनुबंध), दुर्गा भागवत (लोकसाहित्याची रुपरेखा), प्रभाकर मांडे (*लोक साहित्याचे अंतःप्रवाह, लोक साहित्याचे स्वरुप*), ग. ना. मोरजे हांणी शास्त्रीय आनी सिध्दांतीक मूळावण घालें. महाराष्ट्र राज्य लोकसाहित्य समिती, लोकसाहित्य संशोधन मंडळ, औरंगाबाद ह्यो संस्था लोकसाहित्याच्या संशोधनाचो वावर करतात.

- डॉ. रवीन्द्र ठाकूर

## मराठे, दत्ताराम रामचंद्र : (जल्म : ११ डिसेंबर १९३०, नादोडें-कोडाळ-सत्तरी).

सुटके झुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो बसका घेवप, सुटके झुजांऱ्यांमदीं गुप्त आनी म्हत्वाच्यो खबऱ्यो पावोवप, पत्रकां वांटप, तिरंगी बावटे लावप, संघटनेखातीर वांगडी जमोवप असलीं कामां तो करतालो. काणकुम्बी हांगा आशिल्ले संघटनेचे कचेरेंत तो चोरयां काम करतालो. १९५५ त पुलिसांनी ताका धरलो आनी फाव तो पुरावो मेळूंक नाशिल्ल्यान शिटकावणी दिवन ताका सोडलो. २६ जून १९५६ ह्या दिसा ताका परतून धरलो आनी ताचेकडेन आशिल्लो तिरंगी बावटो, 'केसरी' खबरांपत्र आनी पुस्तकां जप्त केलीं. ताका प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून तीन वर्सां बंदखण, म्हयन्याक ५०रु. ह्याप्रमाण ६ म्हयने दंड वा ४५ दीस बंदखण ही ख्यास्त फर्मायली. २३ सप्टेंबर १९७३ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## मराठे, पुना जागा : (जल्मः २० जून १९१९, अमळनेर, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. १९३५-१९४४ ह्या काळांत तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९४५-१९८८ ह्या काळांत तो भारतीय कम्युनिस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. १९४२तल्या 'छोडो भारत' आंदोलनांत ताणें वांटो घेतिल्लो. १८ मे १९५५ ह्या दिसा २१ सत्याग्रहींचो पंगड घेवन अस्नोडा मार्गान दिवचल गेलो आनी थंय ताणें सत्याग्रह केल्लो. थंय पुर्तुगेज पोलिसांकडल्यान ताका खूब मार पडलो. १९५७-६१ ह्या काळांत तो अमळनेर नगरपालिकेचो वांगडी आशिल्लो. २७ नोव्हेंबर १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## मराठेशाही : महाराष्ट्रांतल्या मराठा घराण्याची राजवट.

**मराठेशाही :** महाराष्ट्रांतल्या मराठा घराण्याची राजवट. मराठा घराण्यांतल्या राज्यकर्त्यांच्या नांवाक छत्रपती महाराज ही उपाधी लावपाची प्रथा आशिल्ली. सतराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत छत्रपती शिवाजी महाराजान महाराष्ट्रांत स्वतंत्र राज्याची स्थापणूक केली आनी ६ जून १६७४ दिसा स्वतंत्र राजा म्हूण राज्याभिशेक करून घेतलो. ह्या दिसासावन महाराष्ट्राचेर मराठ्यांचो शेक सुरू जालो. उपरांत पेशव्यांनी मराठी सत्तेचो विस्तार महाराष्ट्राभायर वाडयलो.

शिवाजी महाराजाचे कारकिर्दीपयलीं महाराष्ट्रांत मुसलमानांची सत्ता आशिल्ली. उत्तर हिंदुस्थानांत मोगल सत्ता आनी दक्षिण हिंदुस्थानांत कुत्बशाही, आदिलशाही, निजामशाही, बरीदशाही, इमादशाही ह्या इस्लामी शाह्यांची सत्ता आशिल्ली. तांच्या दरबारांत साबार मराठी सरदार वावुरताले. पूण शिवाजी महाराजाक ल्हानपणासावन आपलें स्वताचें राज्य आसचें अशें दिसतालें. हाकालागून सतराव्या शेंकड्याच्या मध्याकसावन तो स्वराज्याचे तयारेक लागलो. आदिलशाह, कुत्बशाह आनी मोगलांक ताणें सतावन सोडले. महाराष्ट्रांतले कोंकणपट्टीचेर भोंवतणच्या प्रदेशांचेर घुरयो घालून ताणें साबार किल्ले घेतले आनी कांय नवे बांदले. फुडें १६७४ त महाराष्ट्रांत अधीकृतपणान स्वतंत्र राजा म्हूण राज्याभिशेक करून घेतले. उपरांत प्रशासन वेवस्था रितसर चलची म्हूण अश्टप्रधानाची स्थापणूक करून राज्यवेव्हाराचे नेम तयार केले. ताच्या फुडारपणाखाला मराठी राज्याचो विस्तार जावन शासनाकूय थीरताय आयली. शिवाजी महाराजाच्या काळांतले मराठी सरदार वतनाखातीर आपणाभितरच झगडटाले. ह्या मराठी सरदारांक शिवाजी महाराजान एकठांय हाडून तांकां महाराष्ट्र अस्मितेची जाणीव करून दिली. त्या कार्यांत रामदासस्वामीनूय ताका खूब आदार केलो. रामदासस्वामीन महाराष्ट्र धर्माच्या नांवाखाला मराठी लोकांक एकठांय हाडपाखातीर साबारकडे मठ उबारले. संघटनेच्या ह्या नव्या तत्त्वांतल्यानूच महाराष्ट्रांत एक व्हड शक्त निर्माण जाली.

शिवाजी महाराजा उपरांत ताचो व्हडलो चलो संभाजी आनी संभाजीउपरांत राजाराम हे महाराष्ट्राचे राजा जाले. पूण हांच्या तेंपार मराठी राज्याचेर साबार संकश्टां आयलीं. १६८१ त औरंगजेब व्हड सैन्य घेवन दक्षिणेक आयलो. ताणें संभाजी आनी राजाराम हांकां नाकापुरो करून सोडलें. १६८७त संभाजीराजाक मोगलांनी धरलो आनी तुळजापूरालागीं वढू हांगा १६८९ त जिवानिशी मारलो. संभाजीराजाफाटल्यान ताचो सवतिभाव राजाराम मराठ्यांचे गादयेर आयलो. उपरांत संभाजीराजाची राणी येसुबाई, राजाराम महाराजाची राणी ताराबाई, शाहूराजा आनी तांचे वारस हांचेमदीं गादयेच्या हक्कावयल्यान वाद निर्माण जावन मराठेशाहींत यादवी युध्द सुरू जालें. मजगती संताजी घोरपडे, धनाजी जाधव, रामचंद्रपंत अमात्य, शंकराजी नारायण सचिव आनी हेर मराठी सरदारांनी दक्षिणेंत सैनिकी मोहिम्यो काडून मोगल सैन्याचो पराभव केलो.

१७७० उपरांत भारतांतली मुसलमानांची सत्ता नश्ट जाली. पूण ह्या वेळार भारतांत ब्रिटिशांच्या रुपांत एक नवी राजसत्ता वाडूंक लागिल्ली आनी नेमक्या ह्याच वेळार महादजी, हरिपंत फडके, नाना फडणीस ह्या खांप्या सरदारांक मरण आयलें. मराठी राज्याक परतून एकदां वेर गेली. हाका लागून शिस्तबद्द ब्रिटिशांमुखार फुटीर मराठी सत्ता तिगूंक शकलीना आनी १८१८ त पेशवाईच्या मराठेशाहीचो अस्त जालो.

**राजकीय स्थिती** : राज्यकारभार रितसर चलचो म्हूण शिवाजी महाराजान अष्टप्रधान मंडळाची स्थापणूक केल्ली. शिवाजीन निर्माण केल्ली अश्टप्रधान परंपरा सादारणपणान शाहू राजाच्या मरणामेरेन तिगून उरली. शिवाजी-संभाजी हांच्या तेंपार राजा आनी अश्टप्रधान हीं राज्याचीं मुखेल आंगां आशिल्लीं. राज्य एकसत्तात्मक आसून अश्टप्रधान हे सल्लो दिवपी आनी जापसालदारकेन काम करपी लोक आशिल्ले. राजाराम-शाहू हांच्या तेंपार सरंजामी सरदारांकडे आपापल्या प्रांतांतली दिवाणी, मुलकी आनी लश्करी वेवस्था आसताली. सरदारांच्या सैन्याची गणती करप आनी सैन्याच्या खर्चाचो हिशेब दवरप हें काम पेशव्यांनी नेमिल्ले फडणीस करताले. शाहुमहाराजान आपल्या राज्याचीं म्हत्वाचीं सुत्रां पेशव्यांच्या हातांत दिल्लीं. हाका लागून शाहू उपरांत भोसले घराण्याची सत्ता पेशव्यांकडे गेली आनी फुडें पेशवे दुर्बल जाल्याउपरांत तीच सत्ता नाना फडणीस आनी महादजी शिंदे हांचेकडे गेली. तेचपरेन अश्टप्रधान पदां वचून बाळाजी विश्वनाथ हाच्या वेळासावन संघपद्दत वाडत गेली आनी स्वराज्याचें साम्राज्य जालें. सुरवेचे चार पेशवे बळिश्ट आनी शिटूक आशिल्ल्यान मराठी सत्ता केंद्रीत जाल्ली. पूण उपरांत ब्रिटिशांनी मराठ्यांभितर फूट घालून तांची सत्ता निर्बळ केली आनी उपरांत नश्ट केली.

मराठी सत्तेखाला प्रदेशाची शासनवेवस्था राज्यकर्त्यांप्रमाण बदलत गेली. पूण शिवाजी महाराजान घालून दिल्ले प्रशासन वेवस्थेची मूळ शासनवेवस्था तशीच उरली. मराठ्यांचे राज्यवेवस्थेंत मुलकी आनी सैनिकी अशे दोन मुखेल विभाग आशिल्ले. तांचे राजसत्तेचे राजसत्ता, देशकसत्ता, धर्मसत्ता आनी वेपार हे चार घटक आशिल्ले. अश्टप्रधान मंडळांत मुखेल प्रधान, अमात्य, सचिव, मंत्री, सेनापती, पंडितराव, न्यायाधिश आनी सुमंत हांचो आस्पाव आशिल्लो.

राज्याची प्रशासकीय वेवस्था बरे तरेन जावची म्हूण शिवाजीन आपल्या स्वराज्याचे तीन स्वतंत्र वांटे केले आनी ते तीन मंत्र्यांचे देखरेखीखाला दवरले. पेशव्यांच्या काळांत मराठी राज्याचो विस्तार जायत गेलो तशे राज्याचे विभागूय वाडत गेले. ह्या विभागांचेर सादारणपणान मंत्र्यांचें नियंत्रण उरतालें. पूण राज्ययंत्रणा सरसुभेदारांच्या शेकातळा आसताली. ह्या सरसुभेदारांक पालव दिवपाक मुजुमदार, चिटणीस, दफतरदार, फडणीस, सबनीस, पोतनीस आनी हेर कारकून आसताले. ह्या सगळयांची नेमणूक मुखेल केंद्रांतल्यान जाताली. दर एका प्रांतांतल्या लोकांची जापसालदारकी त्या प्रांतांतल्या सुभेदाराची आसताली. ह्या विभागांची फुडें प्रांतांत विभागणी जाली आनी प्रांतांचे उपरांत परगणे, महाल आनी तर्फा अशे वांटे जाले. दोन वा तीन महालांचो एक सुभा जातालो. खेड्यांतले पाटील-कुलकर्णी वा सुभ्याचे देशमुख-देशपांडे हांचेकडे कर वसुली आनी हिशेब आसतालो. सुभ्याची देखरेख करपाखातीर सुभेदार आनी महालाची देखरेख करपाखातीर महालकरी आसताले.

सैन्य हो राज्याचो एक म्हत्वाचो घटक आसून राज्यवेवस्थेंतल्या लश्करी विभागांत पायदळ, घोडदळ, किल्ल्यांची देखरेख, तोफखानो आनी आरमार हांचो आस्पाव आशिल्लो. पेशव्यांच्या काळांत मराठी लश्करांत हुजुरात आनी पथके अशे दोन विभाग आशिल्ले. हुजुरात म्हळ्यार सरकारी फौज. हे फौजेंत धा हजार मेरेन घोडेस्वार आसताले. तांचीं पथकां बावन्न आसून दर एक पथकाचेर वेगवेगळे सरदार आसताले. हे सगळे फौजेक पागो म्हण्टाले. पागेंत फडणीस, पोतनीस आनी पथकाक बक्षी आसताले. दुसरो प्रकार सरंजामी फौजेचो. तातूंत स्वताची घोडी घेवन चाकरी करणाऱ्यांची संख्या व्हड आशिल्ली. तांकां शिलेदार आनी तांच्या पंगडाक पथक म्हण्टाले. अशा शिलेदारांच्या पंगडाचे सरदार ते पथके वा पथकी. सरकारी घोडो आनी हत्यारां घेवन झुजपी ते बारगीर.

मराठ्यांची न्यायवेवस्था हिंदू परंपरेचेर आदारिल्ली आसून कानुजाबत्यांत न्यायाचें काम न्यायाधीश ह्या प्रधानाकडे आसतालें. केन्नाकेन्नाय महाराज स्वता न्याय दितालो. पेशवाईंतलो रामशास्त्री प्रभुणे हो न्यायाधीश प्रसिध्द आसा. ताचे उपरांत अय्याशास्त्री हो न्यायाधिशाचें काम पळेतालो. हे न्यायधीश धर्मशास्त्राच्या आदारान न्याय करताले आनी 'मिताक्षरा', 'व्यवहारमयूख' ह्या ग्रंथांक अणसरून खटले चलयताले. तशेंच कांय वेळां पंचांच्या आदारानूय न्याय दिवप जातालें.

रामशास्त्री हाच्या वेळार ताच्या हाताखाला अमीन आनी दफतरदार हे अधिकारी आशिल्ले. फिर्यादीची अर्जी येतकच प्रतिवादीची जबानी ताणें बरोवन घेवन ती अमीन हाणें पळोवन दफतरदार हाचेकडे दिवपाची दफतरदारांनी ती पळोवन प्रतिवादीक विचारपाचे प्रस्न वेंचून काडचे, तांच्यो जापो बरोवन घेवच्यो आनी पुराव्यांचीं कागदपत्रां वादी-प्रतिवादी हांचीं आसल्यार, तीं अमीन हांणी पळोवन तांची नक्कल दफतरी दवरपाची. त्या पुराव्याची चवकशी दफतरदार आनी अमीन हांणी करपाची. मराठेशाहींत न्यायदानाचें सुलभ आनी सोयीचें साधन म्हळ्यार पंचायत. गांवांत देवघेवीसंबंदीं कोणेंय पाटलाकडे फिर्याद व्हेल्यार, तो पयलीं वादी-प्रतिवादीभितर मिटोवपाचो यत्न करतालो. तातूंत यश मेळ्ळेंना जाल्यार उपरांत पंचायत भरोवन तंट्याचो निकाल लावप जातालो. पंच जेतरेन निकाल करताले, तेप्रमाण वादी-प्रतिवादीक वागपाक लावपाचें काम सरकारी अधिकाऱ्यांकडे आसतालें. धर्मशास्त्राविशीं किदेंय भानगड जाल्यार शास्त्री-पंडित हांचो आदार घेवप जातालो. जातीविशीं तंटो उत्पन्न जाल्यार ते ते जातीच्या मुखेल्याकडे वचून ते जातीचे सभेवतीन निकाल मेळटालो. ते ते सुवातेचो रिवाज होच सरकारी अधिकाऱ्यांचो आदार आसताले. मर्णख्यास्तेसारकी सजा दिवपाची जाल्यार मात कारभारी आनी उपरांत पेशव्यांची परवानगी लागताली. शिक्षेच्या प्रकारांत स्थावर आनी जंगम मालाची जप्ती हो एक म्हत्वाचो भाग आशिल्लो. दुस्मानाक जो कोण फितूर जातालो ताचें घर जप्त करून ताच्या लोकांक बंदखणींत दवरताले. चुकून केन्नाय दिव्य करपाचीय चाल पेशवाईंत आशिल्ली. बंदखणीखातीर स्वतंत्र खातें नाशिल्लें. तातूंत राजबंदी आनी ताचे साथीदार, दरोडेखोर आनी गंभीर स्वरुपाचे गुन्यावं करपी वा खुनी, फितूर, अनैतिक गुन्यांव करपी अशे खूब तरेचे कैदी आसताले.

**समाजजीण** : मराठेशाहींत, समाज जातीवेवस्थेचेर आदारिल्लो. जातींभितर साबार पोटजाती आशिल्ल्यो. तांचो वेवसाय आनी दिवप-घेवपाचो वेव्हारूय जातीचेर आदारिल्लो. समाजांत हिंदूंचें प्रमाण चड आशिल्लें. लोकांभितर अंधश्रध्दा खूब पातळिल्ली. दुयेंत मनशाचेर उपचार करपाखातीर वैद्य तशेंच मंत्र-तंत्राचो उपेग करताले. घाडीपणाचो वेवसाय नेटान चलतालो. जात पंचायत आनी ग्रामपंचायत लोकांचे हालचालींचेर नदर दवरताली. जोड कुटूंब पद्दत चालींत आशिल्ली. त्या काळांत बालविवाह पद्दत रूढ आशिल्ली. दादल्याक आस्पतीप्रमाण कितल्याय बायलांकडे लग्न जावपाची मेकळीक आशिल्ली. बायलांक घरांतूच शिक्षण घेवपाची सोय आसताली. सती वचपाची चाल आशिल्ली. त्या काळांत म्हार, मांग, चामार, भंगी, ढोर ह्या लोकांक हेर लोक अस्पृश्य मानताले.

दसरो हो भौशिक आनी राष्ट्रीय सण म्हूण घराघरांनी व्हडा दबाज्यान मनयताले. नवरात्रेचो समारंभ शाहू महाराजान सातार हांगा बांदिल्ल्या राजवाड्याच्या देवघरांत सुरू केलो. होळी हो सण त्या काळांत सगळ्या जातींचे लोक एकठांय येवन मनयताले. पेशव्यांचें कुलदैवत गणपती म्हूण पेशवेकाळांत चवथीक खाशेलें म्हत्व प्राप्त जालें. कृष्णजन्माष्टमीचो उत्सवूय पेशवे आनी तांचे सरदार व्हड दबाज्यान मनयताले.

मराठेशाहींत लावणीनृत्य, कोळीनृत्य, धनगरांचें गजनृत्य, गुगुलनृत्य ह्या नाचांक खूब म्हत्व आशिल्लें. कुस्ती, लेझीम, कोयंडो बाल, हुतूतू, झिम्मा हे मुखेल खेळ आशिल्ले.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद** : भोसले राजवंश.

**मरीची - १:** वैवस्वत मन्वंतरांत, ब्रह्मदेवान अग्नीपसून मरीचीक उत्पन्न केलो. ताका कश्यप हो पूत आनी सुरुपा ही धूव अशीं दोन भुरगीं जालीं. इंद्रप्रस्थांतल्या सात तीर्थांनी न्हाण घेतिल्ल्यान ताका सात भुरगीं जालीं अशें म्हळां. प्रातः स्मरणांत मरीचीचें नांव येता.

- कों. वि. सं. मं.

**मरीची - २ :** एक प्रजापती. स्वायंभुव मन्वंतरांत ब्रह्मदेवाच्या दोळ्यापसून मरीचीची उत्पत्ती जाली. हो दक्षाचो जांवय आनी शिवाचो साडू. दक्षाची धूव संभूती ही मरीचीची बायल. मरीचीक संभूतीपसून पूर्णमास नांवाचो पूत आनी कृष्टी, वृष्टी, त्विषा आनी उपचिती अशो चार धुवो जाल्यो. स्वायंभुव मन्वंतरांतल्या सात ऋषींभितर मरीचीचो आस्पाव जाता. भागवताप्रमाण हाका दोन बायलो आशिल्ल्यो. एक कर्दमाली धूव कला आनी दुसरी ऊर्णा. कलेपसून ताका कश्यप आनी पूर्णिमा नांवाचीं दोन भुरगीं जालीं. ऊर्णेपसून स्मर, उद्गीथ, परिष्वंग, क्षुद्रभृत आनी घृणी हीं भुरगीं जालीं. अग्निष्वात्त नांवाचे पितर हेय मरीचीचेच पूत.

ब्रह्मदेवान मरीचीक अठरा पुराणां सांगलीं. इंद्रान केल्ल्या अश्वमेध यज्ञाचें पुरोयतपण मरीचीन केल्लें. भगवंताचो त्रिविक्रम अवतार पळोवपाक मरीची आयिल्लो. वेन राजाचे कारकिर्दींत मरीची मुखेल ऋषी आशिल्लो. वेन राजाक जिवो मारपाक मरीचीच मुखेल आशिल्लो. दक्षयज्ञांत मरीची हाजीर आशिल्लो..

- कों. वि. सं. मं.

**मरीची - ३ :** एक धर्मशास्त्रकार. स्थावर मिळकतीचें खरेदीखत, गहाणखत, वांटणीपत्र वा बक्षीसपत्र हांचे वेव्हार दस्तऐवज जाल्याबगर पुराय जायनात अशें हाचें मत आसा. जर एकाद्र्या मनशान वेपाऱ्याच्या सामकार, सरकारी अधिकाऱ्यांचे परवानगेन, कांय माल विकतो घेतलो

आनी उपरांत विकतो घेतिल्लो माल दुसऱ्याचो आसा म्हूण कळत जाल्यार, माल विकतो घेवपी मनीस दोशी थारना. ताका ताचे पयशे परते मेळटात. हे पयशे वसूल जालेना जाल्यार मूळ मालक आनी माल विकतो घेवपी मनीस हांचेभितर वांटचे, अशें मरीचीन म्हळां.

विज्ञानेश्वर, अपरार्क आनी देवण्णभट्ट हांणी आह्निक, अशौच, श्राध्द, प्रायश्चित आनी वेव्हार ह्या विशयांविशीं मरीचीक प्रमाण मानला. अपरार्कान तर्पणाविशीं मरीचीचे बरेच श्लोक दिल्यात. श्रावण आनी भाद्रपद म्हयन्यांनी न्हंयेचेर न्हावचें न्हय अशें मरीचीन सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**मरूत् :** वेदांतलो एक देवतागण. ऋग्वेदांत मरूतांक म्हत्वाची सुवात आसा. ऋग्वेदांतलीं ३३ सुक्तां मरूतांक उद्देशून आसात. मरूत् हे सदांच गण करून रावतात. तांची संख्या ७, २१ वा १८० आसा. ताकालागून तांचो सदांच भोववचनांत उल्लेख येता. सगळे मरूत् हे दिसपाक सारकेच आसतात. तांचें वर्णन करतना-म्हळां तें अशें -

*ते अज्येष्ठा अकनिष्ठास उद्‌भिदो अमध्यमासो महसा विवावृधुः।*

**अर्थ** - ते मरूत् व्हड, ल्हान वा मध्यम नात. ते आपले म्हान शक्तीन वाडल्यात.

तांचें वर्णन तेजीश्ठ म्हूण करतात. तशेंच वीजेकडेंनय मरूतांचो संबंद लायतात. सगळ्या मरूतांचो भेस सारकोच आसता. तांच्या हड्ड्यार पदकां आनी गळ्यांत माळो चकचकतात. तांच्या पांयांत अलंकार आसतात. सगळ्यांचीं शस्त्रां लेगीत सारकींच आसतात. तांच्या हातांत कुराड, धोणू आनी भाले आसतात. तकलेर भांगराचें शिरस्त्राण आसता.

मरूतांचे रथ चार तरांचे आसात. तांच्या कांय रथांक घोडे जोडिल्ले आसतात आनी कांय रथांक हरणां आसतात. तांचे कांय रथ घोड्याबगर धांवतात आनी कांय रथ मळबांत उडटात. मरूत् हे देवांचे सैनिक आसात. तशेंच गिन्यानी, दूरदर्शी आनी कवी आसात. वृत्रवधाच्या वेळार तांणी इंद्राक खूब आदार केलो.

मरूत् हे रुद्राचे पूत म्हूण, तांकां 'रूद्रियगण' अशेंय म्हळां. तांचे आवयचें नांव पृश्नी आशिल्ल्यान मरूतांक 'पृश्निमातरः' अशेंय म्हण्टात. ते मळबांत उत्पन्न जाल्ल्यान 'दिवस्पुत्र' आनी दर्याचे पूत म्हूण 'सिंधुमातरः' अशेय तांचे निर्देश मेळटात. रोदसी ही तांची बायल. ते एकमेकांचे भाव आसून तांच्यांत कोणूच ल्हान वा व्हड ना. पावस हाडप हें मरूतांचें मुखेल कार्य आसा. दर्या वयर वचून ते पावस हाडटात. ढग, वीज आनी वादळी वाऱ्याच्या उल्लेखांवयल्यान ते वादळी वाऱ्याचे देव आसुंये अशी कल्पना करतात. पूण कून आनी बेन्फाय ह्या अभ्यासकांनी, मृतांचे आत्मे हें मरूतांचें मूळ स्वरूप मानलां. पं. सातावळेकराच्या मतान मरूत् हे सैनिकी संघटना आनी संचलन हांचें प्रतीक मानलां.

वैदिक काळा उपरांत मात तांकां 'वायु' म्हळां आनी ते दिती आनी कश्यप हांचे पूत मानल्यात. तांची संख्या एकूणपन्नास सांगल्या. श्वसन, स्पर्शन, वायु, मातरिश्वा, सदागती, महाबल, बलवर्धन, पृषदश्वक, गंधवह, गंधवाहक, आशुग, सुमुख, कर्कर, समीरण अशींय नांवां आसात. मरूतांचे सात गण आसून पृथ्वी, सूर्य, सोम, ज्योतिर्गण, ग्रह, सप्तर्षिमंडळ आनी ध्रूव हीं तांचीं निवासस्थानां आसात. हांच्यो मूर्ती करपाखातीर हेमाद्रीन सांगलां तें अशें- ते चार भुजांचे आसचे आनी चारूय हातांत आयुधां आसचीं, दोळे तांबडे आनी भुवयो कुटिल आसच्यो. तशेंच ते तरनाटे आनी हरणाचेर बशिल्ले आसचे. तांच्या आंगाचेर अलंकार आसचे.

- कों. वि सं. मं.

**मरैमलै अडिगळ :** (जल्म : १८७६, कदमपडी, जिल्हो तंजावर; मरण : १९५०).

नामनेचो तमिळ समीक्षक आनी विचारवंत. ताचें मूळ नांव स्वामी वेदाचलम्. एका शैव बेल्लाळ कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. उपरांत तमिळ भाशेच्या अभिमानान ताणें 'मरैमलै अडिगळ' हें मूळ नांवाचेंच तमिळ अणकारीत नांव आपणायलें.

एक खांपो उलोवपी (वक्तो) आनी लेखक म्हूण ताका वळखताले. तशेंच एक व्हड तत्त्ववेत्तो, समीक्षक आनी तमिळ, संस्कृत, इंग्लीश भाशा-साहित्याचो खांपो पंडित म्हूण ताची नामना आशिल्ली. संस्कृत वा हेर परक्या शब्दांचें मिश्रण तमिळ भाशेंत करपाची कांयच गरज ना अशें ताचें मत आशिल्लें. तो शुध्द तमिळचो खर पुरस्कर्तो आशिल्लो.

पुर्वायुश्यांत संवसार करून उत्तरायुश्यांत ताणें संन्यास घेतलो. चेन्नईच्या खिश्चन महाविद्यालयांत तो तमिळचो प्राध्यापक आशिल्लो. पूण उपरांत ही नोकरी सोडून ताणें आपली जीण, तमिळ भाशा साहित्याक तशेंच शैव मताच्या पुरस्काराक ओंपली. शैव मताच्या चार नामनेच्या अध्वर्यूविशीं ताका खूब भक्ती आशिल्ली. ताणें आपल्या व्याख्यानांतल्यान तशेंच लिखाणांतल्यान शैव मताचो निश्ठेन प्रचार केलो. स्वामिनाथ अय्यर हाणें संघम् काळांतलें पुर्विल्लें अभिजात तमिळ साहित्य सोदून उजवाडायलें आनी मरैमलै अडिगळ हाणें तें साहित्य व्यासपिठावयल्यान तशेंच आपल्या समीक्षक लिखाणांतल्यान लोकांमेरेन पावयलें. धर्म, तत्त्वगिन्यान, समाजशास्त्र, इतिहास, भाशाशास्त्र, पुर्विल्लें साहित्य, चरित्र, निबंद, समीक्षा, अणकार ह्या विशयांनी खूब लिखाण केलें. संशोधनाविशीं खोलायेन थाव घेवपी ताची नदर ताच्या खुबशा लेखांनी दिसता. हेच नदरेन ताचे 'पट्टिनाप्पलै आरैचि उरै,' 'तिरूक्कुरळ आरैचि उरै', 'कुरूमंचिपट्टु आरैचि' हे म्हत्वाचे लेख आसात. ताची बरोवपाची शैली सादी, सरळ आनी प्रभावी आसा. हेच शैलीन ताणें आपल्या भाश्य-विवरण ग्रंथांवरवीं शैव सिध्दांत आनी ताचें तत्त्वगिन्यान सामान्य

लोकांमेरेन पावयलें.

'पांडैक्कालत्तमिळारूम्, आरियारूम्' (१९०६) हो ताचो खूब म्हत्वाचो, विद्वतापूर्ण असो संशोधन-समीक्षेचेर बरयल्लो ग्रंथ आसून तमिळांतल्या इतिहासीक आनी अभिजात समिक्षेचो तो एक मानदंड मानतात. ताचे हेर कांय म्हत्वाचे ग्रंथ अशे आसात- 'मुतर्कुरळ वाद निराकरणम्' (१८९८), 'शाकुंतल नाटकम्' (१९०७), 'वेल्लाळर नागरिकम्' (१९२३), 'माणिक्कवाचगर वरलारूम्, कालमुम्' (१९३०), 'पळंतमिळक्कोळकैये शैव समयम्' (१९३०), 'शाकुंतल नाटक आरायच्चि' (१९३४), 'शैवसिध्दांत ज्ञानबोधम्' (१९३५), 'मुर्कालप्पिर्काल तमिळप्पुलवर' (१९३६), 'तमिळर मतम्' (१९४१), 'मुम्मणिप्पिरक्कोवै' (१९४२), 'इंडी पोटु मोळिया?' (३री आवृत्ती १९४९). ताच्या ह्या ग्रंथांतल्यान ताची इतिहासाविशींची बारीकसाण आनी चिकित्सक नदर दिसून येता.

- कों. वि. सं. मं.

**मर्णख्यास्त :** जीव घेवपाची शिक्षा. खून करप, बंड करप वा बंडाक प्रोत्साहन दिवप, राजद्रोह करप वा राजद्रोह करपाक मदत करप, अज्ञानान वा पिशेपणान आत्महत्या करतल्याक मदत करप अशा गंभीर स्वरुपाच्या, चड करून दुसऱ्याच्या मरणासंबंदीत गुन्यांवाक मर्णख्यास्त दिवपाची, न्यायवेवस्थेंत तजवीज आसा. मर्णख्यास्त दिवची काय ना दिवची हें पुरायपणान न्यायालयाच्या अधिकारांत आसलें तरी सोळा वर्सां सकयल्या भुरग्याक मर्णख्यास्त दिनात. तशेंच बायलेच्या गुरवारपणांत जाल्ली मर्णख्यास्त बाळटेर जाल्याउपरांत अंमलांत हाडपाचें कायद्यांत प्रयोजन आसा.

मर्णख्यास्त दिवपाच्यो वेगवेगळयो तरा वेगवेगळया काळांत वापरांत हाडप जालां. भर चौकांत फातरावप, सूळार दिवप, हिंस्र जनावराचे भकीक घालप, हतयाच्या पांयापोंदा चिड्डोवप, शस्त्रान तकली धडावेगळी करप गुळी घालप अशे रानवटी प्रकार आदल्या काळांत आसले. आर्विल्ल्या काळांत मर्णख्यास्तेखातीर फांस वा विजेची खुर्ची हांचो वापर सर्रासपणान जाता.

जशाक तशें ह्या न्यायान मर्णख्यास्त अस्तित्वांत आयली आसूं येता. हाताक हात, दोळयाक दोळो अशे ख्यास्तीचे प्रकार कांय समाजांत अस्तित्वांत आशिल्ल्याचे पुरावे मेळटात. ह्याच न्यायान जो कोण दुसऱ्याचो जीव घेवपाक जाणा जावन कारणीभूत जाला ताचो जीव घेवप हें तत्त्व अशे ख्यास्तीफाटल्यान दिसता.

आर्विल्ल्या काळांत मर्णख्यास्तीचेर बरीच उलट-सुलट चर्चा जाल्या आनी आजुनूय जायत आसा. मर्णख्यास्त हो एक रानवटी प्रकार आसा, अशें तिच्या विरोधकांचें मत आसा. तर मर्णख्यास्त ही गंभीर गुन्यांवाचें नियंत्रण करपाखातीर गरजेची आसा अशें तिच्या समर्थकांचें म्हणणें आसा. मनशाचो जीव ही एक अमूल्य तशीच पवित्र अशी सैमाची देण. तिका कृत्रिमपणान नश्ट करपाचो अधिकार मनशाकडे आसूंक फावना, हे विचारसरणेंतल्यान मर्णख्यास्त काडून उडोवची असो विचार मुखार येवन कांय राश्ट्रांनी (ऑस्ट्रेलिया, बेल्जियम, फिनलँड, हॉलंड, आयर्लंड, इटली, जर्मनी, पुर्तुगाल आदी.) मर्णख्यास्तीची सजा रद्द केल्या. इंग्लंडांत १९६५ सावन ही शिक्षा राजद्रोह आनी चांचेगिरीसंबंदीत गुन्यांवापुरती दवरून खूनाच्या गुन्यांवासंबंदी रद्द केल्या. भारतांत मर्णख्यास्त चालू आसून, कांय थरावीक कारणाखाला भारताच्या राश्ट्रपतीक मर्णख्यास्त माफ करपाचे अधिकार भारतीय संविधानांत दिल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**मलकाणी, मंघाराम उधाराम :** (जल्म : २४ डिसेंबर १८९६, सिंध-, हैदराबाद; मरणः १ डिसेंबर १९८०, मुंबय).

नामनेचो सिंधी एकांकिकाकार, नाटककार, नट, दिग्दर्शक, साहित्य इतिहासकार आनी समीक्षक. ताचें शिक्षण डी. जे. सिंध कॉलेज, कराची आनी मुंबय हांगा जालें. भुरगेपणा सावन मलकाणीक नाटकाची ओड आशिल्ल्यान, कराची हांगा कॉलेजींत शिकता आसतना थंयच्या हौशी नाटक मंडळाच्या सगळया कार्यक्रमांनी तो वांटो घेतालो. १९२३ वर्सा सिंध हांगा 'रवींद्रनाथ लिटररी अँड ड्रॅमॅटिक क्लबा' ची स्थापणूक जाली. तेन्ना उद्घाटनाक टागोर आयिल्लो आसतना, टागोराच्या 'चित्रांगदा' तले कांय प्रसंग रंगमाचयेर सादर केले. तातूंत मलकाणीन स्वता नायकाची भूमिका केल्ली ती टागोराक खूब मानवली.

मुंबयच्या जयहिंद कॉलेजींत खूब काळ मेरेन तो इंग्लीश विशयाचो प्राध्यापक आनी विभागाचो मुखेल आशिल्लो. मुंबय विद्यापिठान सिंधी आनी इंग्लीश ह्या दोनूय विशयांच्या अभ्यास मंडळाचेर मलकाणीची सदस्य म्हूण नेमणूक केल्ली. सिंधी साहित्य मंडळाचोय तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९७२ वर्सा ताका साहित्य अकादमीची अधिछात्रवृत्तीय मेळ्ळी. इंग्लीश विशयाचो एक खांपो प्राध्यापक म्हूण ताची नामना आशिल्ली.

अणकार करून ताणें आपल्या वाङमयीन कार्याक सुरवात केली. 'गूंगी कुंआरि ऐं बनदेवी' ह्या नांवान ताणें कांय बंगाली कथा सिंधींत अणकारीत केल्यो. तशेंच ताणें कांय अस्तंती नाटकांचेय अणकार केले. १९२६ वर्सा नॉब्लॉक हाच्या 'किस्मत' (१९११) ह्या नाटकाचो 'किस्मत' ह्याच नांवान, १९२९ वर्सा शेक्सपिअरच्या एका नाटकाचो 'दिलसोजु दास्तानु' आनी १९३० वर्सा झँग्विलच्या 'द मेल्टिंग पॉट' (१९०८) ह्या नाटकाचो 'एकताजो आलापु' ह्या नांवान अणकार केले. उपरांत ताणें नाट्य-लिखाणाक सुरवात केली. ताचें पयलें स्वतंत्र सिंधी नाटक 'खिनजी

खता' (१९३०) हें आसून ताका इनामूय मेळ्ळें. त्याच वर्सा ताणें 'अनारकली' हें इतिहासीक नाटक बरोवन रंगमाचयेर हाडलें आनी तें खूब गाजलें.

नाटकां उपरांत मलकाणीन एकांकिका बरयल्यो. 'पाप जोकी तो' हे एकांकिकेंत ताणें तरगेपणांतले, कुड्डया मोगाचे परिणाम चितरायल्यात. ही ताची एकांकिका खुबूच गाजली. ताच्यो हेर कांय एकांकिका अशो आसात : 'पंज नंढा नाटक' (१९३७), 'पंगती पर्दा' (१९३८), 'जीवन चहचिटा' (१९५७), 'सुड़खबीता ज्या टिम्कनि' (१९६३).

मलकाणीन कांय कवितांचेय अणकार केले. रवींद्रनाथ टागोराच्या 'गार्डनर' आनी 'गीतांजली' तल्या वेंचीक कवितांचो ताणें अनुक्रमान 'प्रीतिजा गीत' (१९४०) आनी 'गीतांजलि' (१९४२) ह्या नांवान सिंधींत पद्य अणकार केला.

'अदबी उसूल' (१९५०) हो ताचो चिंतनपर असो दर्जेदार समीक्षाग्रंथ आसा. 'पछिमी यात्रा' (१९६३) हो ताचो भोंवडे-वर्णनाचेर बरयल्लो ग्रंथ आसा. 'सिंधी नसुर जी तारीखः १९४७ ताई' (१९६८) ह्या ताच्या सिंधी साहित्य इतिहासाचेर बरयल्ल्या ग्रंथाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जालो. 'साहित्यकारनिजूं सिमित्यूं' (१९७९) ह्या ग्रंथांत ताणें आपले जिणेंतल्यो यादी एकठायल्यात.

सातत्यान सुमार साठ वर्सां बरोवप, अभिनय, दिग्दर्शन आनी अध्यापन ह्या मळांचेर ताणें आपलें नांव कायम राखलें. सिंधी साहित्यांत ताका मानाची सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मलबार :** भारताचे अस्तंत दर्यादिगांपैकीं गोंयचे दक्षिणेकडले दर्यादिगेक 'मलबारची दर्यादिग' अशें म्हण्टात.

लांबाय सुमार ८८५ किमी. उण्यांत उणी रुंदाय ११३ किमी. हाचे उदेंतेक अस्तंत घाटाचे दोंगर जाल्यार अस्तंतेक अरबी समुद्र आसा.

पोरन्या भारतीय भाशांतल्या ग्रंथांनी 'मलबार' चो उल्लेख चडसो मेळना. हें उतर परकी भोंवडेकारांचे बरपावळींत चड करून मेळटा. मणिबार, मिनीबार, मलाईबार अशीं मलबार उतराचीं हेर रुपां मेळटात.

सुरवेकसावन हांगा ल्हान ल्हान राज्यां आशिल्लीं. इ. स. पयलीं पयल्या शेंकड्यासावन हांगासल्ल्या चडशा वाठारांचेर 'चेर' वंशाचें वर्चस्व आशिल्लें अशें म्हण्टात. भारताक भेट दिवपी पयलो किरिस्तांव पाद्री सेंट थॉमस हो इ.स. ५२ त मलबारचे दर्यादिगेर आयिल्लो अशें सांगतात. पांचव्या ते सातव्या शेंकड्याच्या सुमाराक ह्या वाठारांत सामुरी ह्या कोचीनच्या राजाचीं आनी हेर संस्थानिकांचीं राज्यां आशिल्लीं. १४९८ ते १५०३ ह्या काळांत पुर्तुगेजांनी हांगासर येवन जायतीं व्यापाराचीं केंद्रां उबारलीं. सतराव्या शेंकड्यांत डच आनी अठराव्या शेंकड्यांत फ्रेंच लोक हांगासर आयले. अठराव्या शेंकड्याच्या निमाणें हो वाठार ब्रिटिशांच्या शेकातळा गेलो.

मलबार दर्यावेळेचे अस्तंतेकडल्यान उदेंतेमेरेन तीन वांटे जातात. १) अस्तंतेकडली रेंवाट, ताडाच्या झाडांनी भरिल्ली कमी उंचायेची दर्यादिग, २) उदेंतेकडलो खर देंवतेचो वाठार आनी ३) ह्या दोनांयमदली सपाट आनी सुपीक जमनीची अशीर देग.

अस्तंत घाटांत उगम जावपी जायत्या न्हंयांचे प्रवाह हांगासल्ल्यान व्हांवतात. कोचीन, कालिकत, हीं हांगाचीं मुखेल बंदरां. उदेंतेकडल्या दोंगराळ वाठाराची उंचाय ९०० मी. आसा. नैर्ऋत्य मोसमी वाऱ्याच्या काळांत निर्माण जावपी दर्याच्या ल्हारांपसून दर्यादिगेर सगळ्याक रेंवाट पट्टे तयार जाल्यात. ह्या रेंवाट पट्यांचेर भरपूर माड आसात.

हांगासर २०० ते ५०० सेंमी. पावस पडटा. उदेंतेकडल्या दोंगराच्या देंवतेवाठारांत पावसाचें प्रमाण ५०० सेंमी. परसूय चड आसा.

तांदूळ मसाल्याचे पदार्थ, मिरी, रबर, सिंकोना, कॉफी हीं हांगासल्लीं मुखेल पिकां. माड आनी ताडाचीं झाडां चडकरून दर्यादिगेर मेळटात. दर्यावेळेर नुस्तें मारपाचो धंदो व्हडा प्रमाणांत चलता. मलबारचे दर्यादिगेर चड करून दक्षिण भागांत दाट लोकवसती आसा.

भारताच्या स्वातंत्र्याउपरांत राज्य पुनर्रचणुकेवेळार हो वाठार कर्नाटक-केरळ राज्यांनी वांटून गेला.

- कों. वि. सं. मं.

**मलय : १) मलयगिरी :** दक्षिण भारतांतलो एक पुर्विल्लो पर्वत. ह्या पर्वताक 'चंदनगिरी' ह्या नांवानूय वळखताले.

मलई (मळे) म्हणजे दोंगर ह्या मूळ द्रविडी उतरावयल्यान 'मलय' हें संस्कृत उतर वापरांत आयलें.

पुराणांतल्या उल्लेखावयल्यान अस्तंत घाटाचो दक्षिणेकडलो भाग म्हणजे मलयगिरी अशें मानतात. भवभूतीच्या महावीर चरित्रांतल्या उल्लेखावयल्यान मलयगिरी कावेरी न्हंयेचे दक्षिणेक आशिल्लो अशें दिसता. अग्नी, कूर्म, विष्णु ह्या पुराणांतल्या उल्लेखांवयल्यान सद्याच्या कोईमतूर खिंडीपसून ते दक्षिणेक कन्याकुमारीमेरेन पातळिल्ल्यो. त्रावणकोर आनी कार्डमम् दोंगुल्ल्यो म्हणजे मलयगिरी आसुंये. अस्तंत घाटांत उगम जावपी ताम्रपर्णी आनी कृतमाला ह्या न्हंयांचो उगम मलय पर्वताचेर जाता असो उल्लेख मार्कंडेय, वायू आनी मत्स्य ह्या पुराणांत मेळटा हाचे वयल्यान ह्या घाटाचो दक्षिणी भाग म्हणजे मलयगिरी अशें म्हणपाक आदार मेळटा. पार्जिटरच्या मताप्रमाण अस्तंत घाटांतल्या निलगिरी पासून ते दक्षिणेक कन्याकुमारीमेरेनची दोंगराची रांक म्हणजे मलयगिरी.

माळव्याच्या परमार राजघराण्यांतल्या राजांच्या कागदपत्रांनी भोज राजाचो राज्यविस्तार दक्षिणेक मलयपर्वतामेरेन आशिल्लो असो उल्लेख मेळटा.

मलय पर्वताच्या पावित्र्याविशीं जायत्यो कथा घोळणुकेंत आसात. मनून ह्या पर्वताचेर तपश्चर्या केल्ली असो उल्लेख मत्स्य पुराणांत मेळटा. ह्या पर्वतावयल्या पोथिरोई शिखराचेर अगस्ती ऋषीचो राबितो आशिल्लो असो उल्लेख चैतन्यचरितामृतांत मेळटा. ताका लागून हाका अगस्ती कूट अशेंय म्हण्टात. पुराणांत मलय पर्वत चंदनान भरिल्लो आशिल्लो असो उल्लेख मेळटा.

**२) मलयगिरी :** भारतांतलें एक पुर्विल्लें थळ. हें थळ नेमकें खंय आशिल्लें हाचेविशीं वेगळी वेगळीं मतां आसात. तेलंगाच्या मताप्रमाण तें अस्तंत घाटाचे दक्षिणेकडल्या पोंताक आशिल्लें. केशवलाल ध्रूव हाच्या मताप्रमाण हें थळाचें नांव नासून ती एक जमात आसा आनी हे जमातीचे लोक भारताचे उत्तरेकडले शिमेर रावतात आसूंक जाय. रामायण, महाभारत, रत्नकोश ह्या संस्कृत ग्रंथांच्या अभ्यासावयल्यान जेम्स बर्जेस हाच्यामताप्रमाण गंडकी आनी राप्ती न्हंयांचे वयलेवटेन आशिल्लो मलयभूमी नांवाचो जिल्हो म्हणजेच मलयांचो देश अशें दिसता.

**३) मलयगिरी :** ओरिसा राज्यांतल्या धेनकानाल जिल्ह्याच्या पाललहरा तालुक्यांतलें एक मुखेल शिखर.

**उंचाय :** १,१८८ मी. पाललहरा गांवालागींच आग्नेय दिकेक अशीर माथ्याच्या सङ्यार हें शिखर आसा. हांगासल्ल्या दोंगरांत स्फटिक खडक आनी मूळाक गार्नेटाचे सांठे मेळटात. शिखरावयल्यान सरभोंवतणचें सोबीत दृश्य दिश्टी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**मलयाळम् भास :** केरळ राज्याची राज्यभास. हिचो आस्पाव द्राविडी भाशाचोम्यांत जाता. भारतीय राजघटनेचे आठवे वळेरेंत हे भाशेचो आस्पाव आसा. सुमार पावणे दोन कोटी वयर लोक ही भास उलयतात. भारतांत केरळ धरून मलयाळम् भास उलोवपी लोक अंदमान, इराण, आखाती देश, नायजेरिया, मलाया आनी संवसारांतल्या जायत्या वाठारांत पातळिल्ले आसात. द्रविडी भाशाचोम्यांत ज्या भासांक खूब पुर्विल्ली साहित्य परंपरा आसा अशो मुखेल भासो म्हळ्यार तमिळ, कन्नड, मलयाळम् आनी तेलुगू. केरळच्या उदेंत आनी दक्षिण शीमेर तिचो तमिळ भाशेकडे, उत्तर आनी ईशान्येवटेन कन्नड भाशेकडे संबंद येता. पूण तिचो चड संबंद तमिळ भाशेकडेन आयिल्ल्यान आनी दोनूय भासांनी खुबूच सारकेंपण आशिल्ल्यान कांय विद्वान तिका तमिळची भयणभास, मानतात. पूण भाशाशास्त्रज्ञाच्या मतान ह्यो दोनूय भासो वेगवेगळ्यो आसात. सद्याक मलयाळम् भास ही एक स्वतंत्र भास आसा.

पुर्विल्ल्या शिलालेखांतल्या पुराव्यांवयल्यान मलयाळम्चें पुर्विल्लेंपण धाव्या शतमानामेरेन वता. मलयाळम् तमिळपसून वेगळी जाली आनी ते भाशेंत साहित्यनिर्मिती जावंक लागली. चडकरून णव्या-धाव्या शतमानांतल्या कोरीव लेखांवयल्यान आनी उपरांत एकोणिसाव्या शतमानांतल्या अस्तंत देगेवयल्या कोरीव लेखांवयल्यान ती एक स्वतंत्र भास मानल्या अशें दिसून येता. तमिळ आनी मलयाळमांतलो मुखेल फरक म्हळ्यार तमिळांत धातुंच्या आख्या रुपांत पुरुशवाचक प्रत्यय येता जाल्यार सद्याचे मलयाळम् भाशेंत चडशा क्रियापदांच्या निमाणें फकत कालनिदर्शक प्रत्यय येता.

मलयाळम्च्या इतिहासाविशीं जायतीं मतां आसात. हातूंत ए. आर. राजराजवर्मा हाणें आपलें मत मांडटना मलयाळम् इतिहासाचे तीन कालखंड केल्यात. १) पुर्विल्ली मलयाळम् (८२५-१३२५), २) मध्य मलयाळम् (१३२५-१५७५) आनी ३) आर्विल्ली मलयाळम (१५७५ उपरांत). ताच्या मतान पुरुशवाचक प्रत्ययाचो लोप, वचन आनी लिंगभेद तशेंच अनुनासिकत्व ह्यो गजाली पुर्विल्ल्या तमिळांत दिसूंक लागल्यो. मलयाळमांतली पयली म्हत्वाची साहित्यकृती रामचरितम् ही पुर्विल्ल्या खंडाच्या निमाणें तयार जाली. मध्य मलयाळम् काळांत थळावे बोलयेंतल्यान सुरवातीचे संस्कृत तद्भव शब्द आयले, पूण तांचें भायलें स्वरूप खुबूच बदलिल्लें. फुडें हे भाशेंत जायत्या इंडो-आर्यन शब्दांचोय आस्पाव जालो. चड करून धर्मीक चालिरिती, समाजीक रुढी हे विशींचे आशिल्ले हे शब्द तद्भव आशिल्ले. णव्या ते पंदराव्या शतमानामेरेनचे घेतिल्ले शब्द कायदो-वैजकी आनी ज्योतिशाविशीं आशिल्ले. ह्या काळांत मलयाळम् भाशेन तद्भवावांगडा मलयाळम् शब्द घेतले. पंदराव्या शतमानांत मात फकत तत्सम शब्दच भाशेंत आयले. ह्या काळांत मलयाळम्, तमिळ भाशेपसून वेगळी जाली. तशेंच आर्यएळुत्तू लिपीचो वापर मलयाळमाखातीर जावंक लागलो. मध्य मलयाळम् युगाचे सुरवातीक मलयाळमान पांच खाशेलपणां घेतलीं. तीं अशीं- १) अनुनासिकत्व (नासिक्यरंजन), २) तालव्यरंजन, ३) स्वरसंकोच, ४) पुरुषवाचक प्रत्यय गाळप आनी ५) पुराण रुपां कायम दवरप.

ह्या काळांत वाङ्मयाचे दोन संप्रदाय आशिल्लेः १) पाट्टू संप्रदाय (वाङ्मयीन तमिळाचो प्रभाव आशिल्लो) आनी २) मणिप्रवाळ (संस्कृतमिश्रित मलयाळम्) के. एम्. जॉर्ज हाणें 'पच्च मलयाळम्' हो तिसरो संप्रदाय सांगला. हो खंयचेच भाशेचो प्रभाव नाशिल्ले बोली भाशेक लागसल्लो आसा.

आर्विल्ली मलयाळम् ही एळुत्तच्छन (सुमार सोळावे शतमानपसून सुरू जाता. के. एम्. जॉर्ज हाच्या मतान ही मलयाळम् हाचे पयलीं जायतीं दशकां आदी प्रचारांत आशिल्ली. एळुत्तच्छनान पाट्टू आनी मणिप्रवाळ ह्या दोन शैलींचो मेळ घडोवन साहित्य निर्मितीक फाव तशे नेम तयार केले. लीलातिलकम् (चवदावें शतमान) हो संस्कृत भाशेंत बरयल्लो मलयाळम् भाशेच्या व्याकरणाचो आर्विल्लो ग्रंथ. उपरांत सुमार स

शतमानांनी मलयाळम् व्याकरणाचो राजराजवर्मा हाचो म्हत्वाचो ग्रंथ 'केरळपाणिनीयम्' केराळांत तयार जालो. लीलातिलकम् उपरांत कोवुण्णी नेदुङगदी, शेषगिरिप्रभू अशा थळाव्या तशेंच हेर परदेशी विद्वानांनी मलयाळम् भाशेचेर ग्रंथ बरयले.

**बोली :** हेर भासांवरीच समाजीक पातळी, प्रदेश, जात आनी वेवसाय हांचेवयल्यान मलयाळम् भाशेच्यो बोली तयार जाल्यो. तातूंत समाजीक पातळी आनी जात हाचेर आदारिल्ल्यो बोली म्हत्वाच्यो आसात. ब्राह्मणांचे बोलीन संस्कृत शब्दांचें प्रमाण चड आसता. जाल्यार सकयले जातीचे बोलीं प्रमाण उणें दिसता. किरिस्तांव बोलीचेर इंग्लीश, लॅटीन, सिरियॅक आनी पुर्तुगेज भाशेंतल्या शब्दांचो प्रभाव दिसता. हाचेभायर मलयाळमाची प्रमाणभास आनी अरबी-फार्सीचो प्रभाव आशिल्ली मुसलमान बोली हातुंतूय फरक दिसून येता.

केरळ विद्यापिठाच्या भाशाविज्ञान विभागान १९७४ वर्सा केल्ले पळोवणेच्या वृत्तांतावयल्यान ईळव जातीचे बोलये आदारान मलयाळम्चे बारा मुखेल भाशीक वाठार केल्यात. ते अशे- १) दक्षिण त्रावणकोर २) मध्य त्रावणकोर ३) अस्तंत वेम्पानाड ४) उत्तर त्रावणकोर ५) कोचीन ६) दक्षिण मलबार ७) आग्नेय पालघाट ८) वायव्य पालघाट ९) मध्य मलबार १०) वयनाड ११) उत्तर मलबार १२) अन्नमलई दोंगरी वाठार. ईळवांच्यो ह्यो १२ मुखेल बोली आनी उपप्रदेश, जाती, धर्म हांचेर आदारिल्ले उपभेद सगळे मेळून ३२ भेद जातात.

मलयाळमाचे धा स्वर आसून ते पुरस्, तालुसीमीय आनी पश्च अशे आसात-

| | पुरस् | तालुसीमीय | पश्च |
|---|---|---|---|
| उन्नत | इ, ई | -- | उ ऊ |
| मध्य | ए ए | -- | ओ, ओ |
| अवनत | -- | अ आ | -- |

शब्दाच्या निमाणें ऱ्हस्व 'ओ' येना. फकत दीर्घ 'ओ' शब्दाच्या निमाणें येता. हेर सगळे स्वर ऱ्हस्व वा दीर्घ दोनय स्वरूपांत येतात. ऐ आनी औ हे स्वरसंयोग आसात.

मलयाळमांत वट्ट २८ व्यंजनस्वनिम आसून उच्चारणसुवात आनी उच्चारणयत्न हांचेर आदारून तांची विभागणी केल्ली आसा. दोन स्वरांतलो अघोश स्पर्श हो मात्सो सघोश उच्चारप जाता. शब्दाचे सुरवातीक वा मध्य येवपी स्पर्श हो महाप्राण आसूं येता अघोश स्पर्शा आदी जेन्ना त्याच वर्गांतलें अनुनासिक येता तेन्ना ते सघोश उच्चारतात.

शब्दाच्या निमाणें फकत व्यंजनां येवंक शकतात. तीं म्हळयार म्, न्, ण्, ल्, ळ्, र्; शब्दांत फकत मदीं येवपी व्यंजन 'ङ्'. तें द्वित्व वा जोडाक्षरामदीं येता. हेर सगळीं व्यंजनां शब्दाचे सुरवातीक वा मदींय येवंक शकतात. अघोष व्यंजनां शब्दांच्या मदीं द्वित्व जावन येतात आनी संयुक्ताक्षरातय येतात (पूण समस्थानीय नाक्यां व्यंजनांउपरांत येनात). व्यंजनां भेद दीर्घतेचो भेद द्वित्वाच्या रुपान फकत शब्दाचे मदीं दिसून येता. पूण त्या फुडल्या व्यंजनांत दीर्घता (द्वित्व) दिसून येना. देखीक- ष्, श्, ह्, र्, ळ्.

सुरवेक सावन मलयाळम् बरोवंक दोन वर्णमाला उपेगांत हाडिल्ल्यो दिसतात. एक पुर्विल्ली तमिळ वा मप्पिल वर्णमाला. मप्पिल लोक अजुनय तिचो वापर करतात. तिका 'वट्टेळुत्तु' (वाटकुळसाण आशिल्लीं अक्षरां) अशेंय म्हण्टात.

दुसरो प्रकार म्हळयार 'कोळेळुत्तु' (तोंकदार कोरांतिल्लीं अक्षरां). एका तेंपार राजदरबाराचीं कागदपत्रां बरोवपाखातीर तिचो उपेग करताले. तिसरो आनी सद्या प्रचलित आशिल्लो प्रकार 'आर्येळुत्तु'. आदीं संस्कृताखातीर हिचो उपेग करताले, आता ती सगळेकडेन वापरतात. एळुत्तच्छन नांवाच्या लेखकान ती सुरू केली.

हे भाशेंतल्या व्याकरणांत म्हत्व दितात तें प्रत्ययांक. व्याकरणांतले मुखेल शब्दप्रकार म्हळयार नाम, सर्वनाम, विशेशण, संख्या विशेशण, क्रियापद आनी अव्यय. मलयाळमांत एकवचन आनी अनेकवचन अशीं दोन वचनां आसात. वचनाचो प्रत्यय प्रथम पुरुषी, द्वितीय पुरुषी, निजवाचक सर्वनामाच्या आंगाक लागता.- **ण** हो लिंगवाचक एकवचनी प्रत्यय. हो प्रथम पुरुषी, द्वितीय पुरुषी वा निजवाचक सर्वनामाक लागता. लिंग आनी वचन एकामेकांत जोडिल्लीं आसात. मलयाळमांत तीन लिंगां आसात. पुल्लिंग, स्त्रिलिंग, नपुसकलिंग.- **अण** हो सर्वसादारण पुल्लिगांचो प्रत्यय.- **अळ**,- **इ**,- **च्चि** हे स्त्री लिंगाचे प्रत्यय आनी- **टु** हो नपुसकलिंगी प्रत्यय.

मलयाळमांत आठ विभक्ती आसून एकवचन आनी अनेकवचनाखातीर सारखेच विभक्ती प्रत्यय वापरतात. एकवचनांत चडकरून प्रत्यय हे विकारांगाक लायतात. जाल्यार अनेकवचनांत विभक्तिप्रत्यय अनेकवचनी प्रत्यया उपरांत लायतात. १) प्रथमा विभक्ती खातीर खंयचेंच विशेश चिन्न ना (कर्तो, प्रत्यक्ष कर्म). प्रथमा बहुवचन विकारांगाक बहुवचनी प्रत्यय लागून तयार जाता. देखीकः 'कुट्टि'- भुरगें (एकवचन), 'कुट्टिकळ्'-भुरगीं (बहुवचन). २) जीं विकारांगा व्यंजनान्त आसतात तांकां 'ए' प्रत्यय लावन द्वितीया विभक्ती तयार जाता. स्वरान्त नामांक विभक्ति प्रत्यया आदी - य लायतात. विभक्तिप्रत्ययाआदी- इण हो एक दुवो जोडटात. देखीक. 'मकण्-ए' (भुरग्याकडल्यान), कुट्टि-य-आय् (भुरग्याकडल्यान), 'विरल-इण्-आल्(बोटाकडल्यान). ३) सगळ्या विकारांगाक- 'आल्' प्रत्यय लागून तृतीय विभक्ती जाता. हातुंतल्यान माध्यमाची वा साधनाची कल्पना उक्ती जाता. (४) - उ, कु. -क्कु हे चतुर्थीचे प्रत्यय. व्यंजनांत नामांक- उ प्रत्यय लागता जाल्यार स्वरांत नामांक - कु, क्कु प्रत्यय लागतात. ५) षष्ठी विभक्ती 'स्वामित्व'

दाखोवपी आसा. सगळ्या व्यजनान्त- नामांक- रे हो प्रत्यय लागता. -उवे हो प्रत्यय स्वरान्त नामाक लागता. (६) -ओ, -अ हो प्रत्यय सर्वनामांक लागून जावपी विभक्तीचे कार्य 'च्या बरोबर' हो अर्थ दाखोवप असो आसा. (७) -इल हो सप्तमीचो प्रत्यय. (८) संबोधनांत स्वरान्त नामाचो निमाणो स्वर लांबयतात वा विकल्पान -ओ, -ए प्रत्यय लागतात. व्यजनान्त नामाक ए प्रत्यय लागता.

**पुरूशवाचक सर्वनामां :** हाचे दोन प्रकार, एकवचनी, अनेक वचनी, प्रथम पुरुष एकवचन ञाण (मी) हाचें सामान्य रूप 'एणू' (मज). प्रथम पुरुष बहुवचन णाम (आमीं) हाचें सामान्य रूप 'नम'. द्राविड भाशेंत सामान्य रुपां वा विभक्त्यंग रुपां हीं विकारांगांतलो स्वर ऱ्हस्व जावन तयार जातात. द्वितीय पुरुष एकवचनी 'नी' (तू) हाचें विभक्त्यंग रूप 'निण'. 'निम' हाका बहुवचनी- कळ प्रत्यय लागता.

(निम्+कळ) निङकळ > निङङळ्. 'नि' हे आपल्यापरस पिरायेन ल्हान आशिल्ल्या मनशाक वा लागसल्ल्या इश्टाक उद्देशून वापरतात. द्वितीय पुरुषी बहुवचनी निङकळ हे आदारार्थी वापरतात. तृतीय पुरुषी सर्वनाम हे दर्शक विकारांग + वचन आनी लिंग प्रत्यय अशे तयार जाता. 'अवण्' (तो) वा 'अवळ' (ती) आनी अवर (ते, त्यो).

'अद्देहम्' तो मनीस/व्यक्ती वा इद्देहम् हो मनीस/व्यक्ती. अशीं रुपां बायलो घोवाक उद्देशून वापरतात.

**क्रियापद :** मलयाळमांत क्रियापदावयल्यान लिंगवचनभेद कळना. आख्यात आनी कृदन्त रुपां हेर व्याकरणीक कोटीचे प्रत्यय लागून जातात. कांय क्रियापदांक कालवाचक प्रत्यय लागना पूण नकारार्थी प्रत्यय लागतात. देखीक- अल्ला (नाही)/ वय्य (अशक्य), अरुटू (नाका). मलयाळम् क्रियापदांचे सकर्मक आनी अकर्मक अशे दोन वर्ग आसात. कांय अकर्मक क्रियापदां रूपप्रक्रियेन सकर्मक जातात.

मलयाळमांत एका क्रियापदांत दोन प्रयोजकवाचक प्रत्यय येतात. देखून, प्रयोजक- १ आनी प्रयोजन - २ तयार जातात. देखीक : 'चेय्यिचेउ' आनी 'चेय्यिप्पिचेउ' (करवप आनी करववप. दोगांचोय अर्थ एक. प्रयोजक-२ चडसो प्रचारांत ना.

मलयाळमांत वर्तमान, भूत आनी भविश्य अशे तीन काळ आसात. 'उण्ण्' हो वर्तमानकाळाचो, '-उम' हो भविश्यकाळाचो प्रत्यय आसा. सगळ्याच सरान्त धातूंक वर्तमान आनी भविश्यकालीन प्रत्ययाआदीं-क्क हो विकरण प्रत्यय लागता. भूतकालीन जायते प्रत्यय आसात.

नकारार्थी चिन्नां दोन प्रकारचीं आसात- १) बध्द प्रत्यय, २) मुक्त शब्द. मुक्त रुपां 'इल्ल', 'अल्ल', 'वेण्ट', 'अरुत' आनी 'वय्य'. बध्द प्रत्ययः अट्ट हो धातुसाधित विशेशणाआदीं आनी -ए हो हेर कृदन्तापयलीं.

**वाक्यव्याकरण :** मलयाळमांत दोन तरांचीं वाक्यां आसतात. १) साख्यात, २) आख्यात. क्रियापदां नाशिल्लें साख्यात वाक्य एक वा दोन घटकांचें आसता. ताचें फुडें तीन उपगणांत विभागणी जाता. सादें, मिश्र आनी संयुक्त. मलयाळम्चो शब्दक्रम साचेबंद आसना. सादारणपणान वाक्यरचना कर्तो-कर्म-क्रियापद अशी आसता. लिंग, वचन आनी पुरुश खंयचींय आसू क्रियापद तेंच उरता. मिश्र वाक्यांत एक वा तातूंत आस्पावल्लीं एक वा दोन गौण्य वाक्यां आसतात.

नामपदबंधाचो विशेशणांनी विस्तार करूंक येता. देखीक- 'नल्ल कुट्टि (बरें भुरगें), 'ओरु पुस्तकम्' (एक पुस्तक). क्रियापद पदबंधाचो विस्तार सहाय्यक क्रियापदां जोडून येवपी क्रियाविशेशणां, धातुसाधितां वा कृदन्तां हांणी जाता.

संयुक्त वाक्य दोन वा ताचेपरसय चड साद्या वाक्यांचें मेळून जाता. केन्ना तीं उभयान्वयी अव्ययान जोडटात, जाल्यार केन्ना फकत एका मुखार एक अशीं दवरतात. संयुक्त वाक्यां बोली भाशेंत चड करून कमी प्रमाणांत वापरिल्लीं दिसतात.

निराख्यात वाक्यां म्हळयार चडकरून उद्‌गारवाचकां, संबोधनां, प्रस्नाची तुटक उत्तरां आनी शिश्टाचारवाचकां.

सगळ्या द्रविड भासांत मलयाळमाचेर संस्कृताचो चड प्रभाव आसा. हे भाशेन मध्य इंडो-आर्यन आनी अर्वाचीन इंडो आर्यन भासांतल्यान कांय शब्द घेतल्यात. १) संस्कृत शब्द आनी अर्थ हातूंत बदल करून वा आसा तशे घेतल्यात, फरक इतलोच की निमणो स्वर ऱ्हस्व केल्लो आसा. देखीकः धर्म>धर्मम (कर्तव्य, अधिकार) नदी>नदि(न्हंय). २) संस्कृत शब्दांच्या अर्थांत बदल करून घेतले. देखीकः अवकाश>अवकाशम (जागो, संधी), भंगी>भंगि (देखणेपण). ३) संस्कृत शब्दांत मलयाळम् उच्चार पद्दतीक फाव तशे बदल करून घेतले. देखीकः घान>कणम (वजन), ज्येश्ठ>चेट्टण (व्हडलो भाव). ४) मध्य इंडो -आर्यन शब्द (पाली वा प्राकृत). प्राकृतः आण्ठि>आण्ठि (गर, कठीण बी, कवची), पालीः अय्य>अय्यण (ईश्वर). उम्मार>उम्मारम (घरा मुखावयलो वारांदो. ५) अर्वाचीन इंडोआर्यन शब्द चडकरून हिंदी वा मराठी. हिंदी : तोला, तोल (तोळो), पूची, पूच्चि (फुलपाखो), मराठी : चटणी - चट्टिणि (चटणी).

मलायळमाचेर तमिळ, तेलुगु, कन्नड आनी सिंहलीसारक्या भासांचो चड प्रभाव पडिल्लो दिसता. देखीक- अम्बलम (विश्रांतीघर), पेंड (पेल्ल), तेचपरी अरबी, फारसी आनी पुर्तुगेज भासांचोय प्रभाव पडिल्लो आसा. देखीक : सवाळ 'व्हड कांदो'. पूण चडसो संस्कृत आनी इंग्लिशीचो प्रभाव चड पडिल्लो दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**मलयाळम् लिपी :** हे भाशेची पुर्विल्ली लिपी वाटकुळ्या वळणाची (वट्ट-एळुत्तु) आसा. कांय विद्वानांच्या मतान मलयाळम् लिपीचो उगम केरळांतले व्होंवरींत मेळिल्ल्या ब्राह्मी लिपीपसून जाला आनी ती लिपी अशोका आदल्या काळांतली आशिल्ली. कांय जाणांच्या मताप्रमाण तिची उत्पत्ती अशोक ब्राह्मीपसून जाली. संस्कृत भाशा जेवरी वेगवेगळ्या लिपयांत बरयताले तेचपरी मलयाळम् भाशा ग्रंथ वट्टेळुत्तू, कोळेळुत्तू, आर्यएळुत्तू ह्या लिपयांतल्यान बरयताले. ग्रंथ लिपीचो उपेग संस्कृत भाशा बरोवपाखातीर करताले. फुडें संस्कृत शब्दांचो मलयाळम् भाशेंत भरपूर उपेग जावंक लागतकच मलयाळम् लिपींतय ग्रंथ लिपीचीं अक्षरां उत्क्रांत जालीं. तमिळ ग्रंथ आनी मलयाळम् लिपींतले ताम्रपट, शिलालेख आनी हातबरपां पळयल्यार तमिळ ग्रंथ आनी मलयाळम् हातूंतलें सारकेंपण आनी नातें रोखडेंच लक्षांत येता. तमिळ लिपीचेच दोन प्रकार आसात. १) चेर पांड्य हे लिपींतल्यान वट्टेळुत्तू आनी (श) पल्लव चोल लिपींतल्यान कोळेळुत्तू अशो दोन लिपी तयार जाल्यो.

मलयाळम् भाशेंतलो सगळयांत पोरनो लेख ८व्या शतमानांतलो आसलो तरी ही भास ताचेय परस पुर्विल्ली मानतात. वट्टेळुत्तू लिपीचो उल्लेख पुर्विल्ल्या शिलालेखांत मेळटा. तेचवांगडा दक्षिण मलयाळम्, नामम्, मूलम्, चेरपांड्य एळुत्तू अशींय तिचीं नांवां आसात. हे लिपींत जोडाक्षरां मेळनात तरी अक्षरां 'अर्दीं' करपाचें चिन्न तिच्यांत आशिल्लें. १०व्या शतमानांतल्या राजराज आनी राजेंद्र आदी चोल सम्राटांनी तमिळनाडू जिकलें आनी थंय प्राकृत आनी तमिळ भाशांखातीर कोळेळुत्तू शैलींतली लिपी ताडपत्राचेर कोरपाक सुरवात केली. खूब पुर्विल्ल्या काळापसून मलयाळम् भाशेंत संस्कृत तद्‌भव आनी तत्सम शब्द प्रचलित आशिल्ले. 'स्वस्तिश्री' हीं सुरवातीचीं अक्षरां तमिळ लेखांत ग्रंथ शैलींत बरयताले. अठराव्या शतमानांत केरळांत वट्टेळुत्तूचो उपेग कमी जावन 'आर्यएळुत्तू' वा 'तुळू-मलयाळम्' शैलीचो वापर वाडलो. कारण ह्याच काळांत केरळांत ब्राह्मण वर्गाचो प्रभाव खुबूच वाडिल्लो आनी संस्कृताचो वापरय खूब प्रमाणांत जातालो.

फुडें १९७० त उकारादी सकयलीं चिन्नां मुखार आनी जोडाक्षरां फोडून हलन्तयुक्त बरोवपाची लिपी सुदारणा चालींत आयली. ताकालागून मलयाळम् लिपी इंग्लीश टंकलेखनयंत्र आनी एकटंकक (मोनोथयम) ह्या जुळणी यंत्रावरवीं येवन तातूंत मुद्रणसुलभता आयली. मलयाळम् लिपींत देवनागरी परस चड खाशेल्या अशा ध्वनीची सोय आसा. ती ऱ्हस्व 'ए', 'ओ', 'ळ' (ष), 'ऱ', 'ट्ट' ह्या अडेच्या वर्णांकलागून, पूण जोडाक्षरां फोडप तशेंच मात्रांची एके ओळींत येवजण करप हाकालागून हे सुदारीत लिपीन छापपाक १२% जागो चड लागता.

**मलयाळम् लिपी :**




- कों. वि. सं. मं.

**मलयाळम् साहित्य :** मलयाळम् साहित्याचो इतिहास तीन काळखंडांनी विभागला. १) पुर्विल्लो : सुरवेकसावन १५व्या शतमानामेरेन, २) मध्ययुगीन - १५व्या शतमानासावन १९व्या शतमानामेरेन, ३) आर्विल्लो १९०१ सावन आयज मेरेन. पुर्विल्लो कालखंडः ह्या काळांत गद्यलिखाणापरस पद्यलिखाणाचेर चड भर दिल्ल्याचें दिसून येता. पद्यलिखाणाचो हो प्रवाह तीन वाटांनी फुडें येता. १) लोकगीतां २) पाट्टू ३) मणिप्रवाळम्. लोकगीतांः लोकगीतांच्या काळाचो निश्चित असो उल्लेख मेळना. ह्या गीतांत कर्मकांडाचें अनुश्ठान, वेवसाय आनी अशा गजालींकडे संबंदीत अशे विशय दिश्टी पडटात. उपरांतच्या काळांतलीं लोकगीतां आनी पोवाडे हातूंत इतिहासीक घडणुकांचें कथन, नामनेच्या नायक-नायकांची तोखणाय दिसून येता. ह्या गीतांतल्या छंदांची विविधताय आनी संगिताचो गुणधर्म तोखणाय करपासारको आसा. उत्तर मलबार हांगाच्या मुसलमानांत प्रचलित आशिल्लें 'माप्पिळप्पाट्टू' नांवाच्या लोकगीताचें संगीत काळजाचो थाव घेता.

**पाट्टू :** बाराव्या शतमानांत चीरामन् हाणें बरयल्लो 'रामचरित' हो ह्या काळखंडांतलो पयलो ग्रंथ. हातूंत तमिळ भाशेंतल्या वर्णाक्षरांचोच उपेग केल्लो दिसून येता. हो ग्रंथ चडसो रामायणाच्या युध्दकांडाचेर आदारिल्लो आसा. हातूंत १६४ विभाग आनी १८१४ श्लोक आसात.

ह्या काळांत जरी गद्याकडे व्हडलेशें लक्ष दिवप जालेंना, तरी त्या काळांतले कांय कोरीव लेख मेळ्ळयात. 'भाषाकौटलीयम्' हो ह्या काळांतलो म्हत्वाचो गद्यग्रंथ. हें कौटिल्याच्या अर्थशास्त्राचें मलयाळम् रुपांतर आसून तातूंत स्पश्टीकरणात्मक टीपांचो आस्पाव करपांत आयला.

**निरणम् ग्रंथ :** एकाच घराण्यांतल्या तीन कवींच्या ग्रंथांक एकठांय

करून कवींच्या जल्मसुवातींवयल्यान ताका 'निरणम् ग्रंथ' अशें म्हण्टात. हातूंत राम पणिक्कर, माधव पणिक्कर आनी शंकर पणिक्कर हे तीन कवी येतात. राम पणिक्कर हाणें रामायण, भारत (महाभारत) आनी भागवत हांचे मलयाळमांत अणकार केल्ले आसून, तेभायर ताणें 'शिवरात्रिमाहात्म्य' हो ग्रंथ बरयल्लो आसा. माधव पणिक्कर हाणें 'भगवद्गीतेचो अणकार केला. शंकर पणिक्कर हाणें 'भारतमाल' ह्या नांवान महाभारताचें दुसरें रुपांतर केल्लें. हे कवी चवदाव्या आनी पंदराव्या शतमानांतले मानतात. ह्या तिगांतय 'राम पणिक्कर' हो कवी म्हूण हेर दोगांयपरस श्रेश्ठ आसा.

**रामकथाप्पाट्टू :** हो ग्रंथ चवदाव्या आनी पंदराव्या शतमानांतलो अशें विद्वानांचें मत आसा. हो ग्रंथ अय्यपिळ्ळा आशान ह्या लेखकान बरयल्लो आसून लोकसाहित्याचे परंपरेंतलें हें एक खास अशें महाकाव्य म्हण्टात. लेखकान तमिळ, मलयाळम् आनी संस्कृत शब्दांचें सोबीत अशें मिश्रण करून वाल्मिकीच्या आदारान आपल्या स्वताच्या रामायणाची रचणूक केल्या.

**मणिप्रवाळम्:** मणिप्रवाळ ह्या साहित्यप्रकारांत मलयाळम् आनी संस्कृत शब्दांची सदळपणान भरसण करप जाताली. ह्या संप्रदायाचे कवी प्रादेशिक भाशेच्या माध्यमावरवीं संस्कृत भाशेच्या काव्य संस्कृतीचें दर्शन घडोवपाचो यत्न करताले. ही मणिप्रवाळ चळवळ त्या काळांतल्या नामनेच्या गणिकांची तोखणाय करपाकडे खास लक्ष दिताली हें तिचें खाशेलेंपण. चवदाव्या शतमानांत एका अज्ञात लेखकान बरयल्लो 'लीलातिलकम्' हो ग्रंथ म्हळयार मणिप्रवाळम्चेंच एक उदाहरण.

**वैशिकतन्त्रम् :** हें एका अज्ञात लेखकान तेराव्या शतमानांत बरयल्लें पुस्तक. गणिकांची कला आनी कसब हेविशींचीं सुमार २६० श्लोकांची एक पुस्तिका आसा.

सुरवेच्या मणिप्रवाळ काळांत अज्ञात लेखकांचीं उण्णियच्चीचरितम्, उण्णिच्चिरु- तेवीचरितम् आनी उण्णियाटीचरितम् हीं तीन चंपूकाव्यां मेळटात. वेगवेगळ्या संस्कृत वृत्तांतल्या २९२ श्लोकांचें पद्यरत्नम् हें गणिकांची तोखणाय आशिल्लें सुरवेच्या मणिप्रवाळ शैलींतल्या कवितांचें एक संकलन आसा.

कालिदासाच्या मेघदूताचेर आदारिल्लीं जायतीं काव्यां मलयाळम् कवींनी संस्कृत आनी मलयाळम् दोनूय भासांनी बरयल्लीं आसात. तातूंत लक्ष्मीदासाचें 'शुंकसंदेश' आनी एका अज्ञात कवीचें मलयाळमांतलें 'उष्णुनीलिसंदेश' हीं दोन म्हत्वाचीं काव्यां. ह्याच काळांतले ५ सर्ग आनी संस्कृत वृत्तांतले ५६९ श्लोक आशिल्लें 'चंद्रोत्सवम्' हें एक म्हत्वाचें खंडकाव्य आसा. तातूंत चंद्राखातीर मनोवपांत येवपी एका उत्सवाचें वर्णन आसा.

चंपूकवीत पूनम नंपूतिरी ह्या कवीन बरयल्लें पंदराव्या शतमानांतलें 'भाषारामायणचंपु' हें काव्य म्हत्वाचें आसा. सतराव्या शतमानांतलें नल आनी दमयंती हांची कथा सांगपी 'मळमंगलम्' ह्या लेखकाचें 'भाषानैषधचंपू' हें आनीक एक म्हत्वाचें चंपूकाव्य. पंदराव्या शतमानांतलें चेरुश्शेरी नंपूतिरी हाचें 'कृष्णगाथा' हें एक सर्वांगीण योग्य अशें महाकाव्य आसा.

**मध्ययुगीन कालखंड :** ह्या काळांतले म्हत्वाचो कवी म्हळयार 'तुंचत्तुरामानुजन एळुत्तच्छन. हाका आर्विल्ल्या मलयाळमाचो जनक मानतात. 'अध्यात्म रामायणम आनी भारतम' ह्यो ताच्यो सर्वश्रेश्ठ अशो दोन म्हत्वाच्यो कृती. रामायणम् इरुपत्तिनालुवृत्तम, हरिनामकीर्तनम् आनी भागवताचें एक भाशांतर हें एळूतच्छन हाच्या नांवार आशिल्ले हेर ग्रंथ. ताच्या काव्यांत 'किळिप्पाट्टु' नांवाच्या द्रविड वृत्ताचो उपेग केल्लो दिसून येता. पूंतानम नंपुतिरी नांवाचो एक भक्तकवी जावन गेलो. 'भाषाकर्णामृतम संतानगोपालम, आनी ज्ञानप्पान हे मलायळमांतले ताचे मुखेल ग्रंथ. रामपुरत्तवारियर हो १८व्या शतमानांतलो नामनेचो कवी. हाणें 'कुचेलवृत्तम' नांवाचें सुदामा चरित्राचेर एक काव्य बरयल्लें.

सतराव्या शतमानांत कथकळी नांवाचो दृश्यकलेचो एक नवो प्रकार उदयाक आयलो. रंगमाचयेर सादर करपाक बरयल्ले संगीतिकेच्या पुस्तकाक 'आट्टक्कथ' म्हण्टात. कोट्टारक्कर तंपुरान हो हे कलेचो आद्य प्रवर्तक आसून ताणें रामायणाचेर आदारीत आठ भागांत 'रामानाट्टम' हें पयलें आट्टक्कथ बरयलें. कोट्टयत्तु तंपुरान हाणें बकवधम्, कल्याणसौंगधिकम, किर्मीरवधम आनी कालकेयवधम् हीं चार आख्यानां बरोवन कथकळी नाचाच्या साहित्यांत भर घाली. फुडें उण्णायी वारियर हाणें रामपंचशती, गिरिजाकल्याणम आनी नळचरितम् नांवाची कथकळी आख्यानां बरोवन आट्टक्काच्या लेखकांत मानाची सुवात मेळयली. ह्या काळांतले हेर म्हान साहित्यीक म्हळयार कार्तिक तिरुनाळ रामवर्मा महाराजा (१७२४-९८), अश्वती तिरुनाळ इळय तंपुरान (१७५६-९४), इरयिम्मन तंपी (१७८३-१८६३), किळिमानूर विद्वान कोयित्तंपुरान (१८२५-५७), व्ही. कृष्णन् तंपी (१८९०-१९३८), रामपुरत्तू वारियर (१७०३-५३) हाचे 'कुचेलवृत्तम् वंचिप्पाट्टु' हे काव्यग्रंथ उल्लेख करपासारके आसात.

ह्याच काळांत नामनेचो कवी कुंचन नंप्यार (सुमार १७०५- सुमार १७६५) हाणें 'ओट्टन तुळ्ळल' नांवाच्या कथकळी नाचाचे तुळ्ळल शाखेचो सोद लायलो. स्यमंतकम्, घोषयात्रा, किरातम, कल्याणसौंगधिकम्, ध्रुवचरितम् हनुमद्दूभवम, कीचकवधम्, दक्षयागम् ह्यो ताच्यो कांय तुळ्ळलकृती.

नंप्यार हाच्या मरणाउपरांत सुमार एक शतमान मलयाळम् काव्यांत उल्लेख करपासारकी निर्मिती जाली ना. मात ह्या काळांत गद्याची उदरगत जावंक लागली आनी हाका खिरस्ती धर्मप्रचारकांनी बरोच हातभार लायलो.

फुडें वेण्मणी हो शुध्द मलयाळमाचो समर्थक फुडें आयलो. ताणें

पच्चमलयाळप्रस्थानम् नांवाचो एक काव्यप्रकार बरयल्लो. हातूंत संस्कृतांतले सगळे शब्द सोडून फक्त द्रविड भाशेंत निर्माण जाल्ले शब्द वापरिल्ले. पूण ह्या प्रकारांत व्हडलेंशें साहित्य निर्माण जालें ना. ह्या काळांतले कवी अशे आसात- वेणूमणी अच्छन नंपुतिरी (१८१७-९१), ताचो चलो वेण्मणी महन् नंपुतिरी (१८४४-९३), पूंतोट्टम अच्छन नंपूतिरी (१८२१-६५), पूंतोट्टम महन् नंपूतिरी (१८५७-१९४६) आनी कोटुंगळ्ळूर राजवाड्यांतले हेर कवी. ह्या कवींतल्या चौगांनी वैशिकतन्त्रम् ह्या काव्याक अणसरून अंबोपदेशम् नांवाचें दर एकी एक काव्य रचलें. कविभारतम्, कविरामायणम्, कविपुष्पमाला, कविमृगावलि आनी कविपक्षिमाला ह्या गंथांवरवीं ह्या कवींनी महाभारत आनी रामायण हांच्यांतल्या पात्रांकडे तशेंच फुलां, पशू आनी पक्षी हांचेकडेन तुळा केल्या. पूरप्रबंधम् हो ह्या कवींचो एक प्रतिनिधिक असो ग्रंथ.

कुंचिक्कुट्टन् तंपुरान ह्या कवीक फकत ४८ वर्सांची पिराय मेळून लेगीत ताणें काव्याच्या मळार मोलादीक वावर केला. ताणें हरिवंशासयत पुराय महाभारताचें मलयाळमांत रुपांतर केलें. श्लोकाक श्लोक आनी गद्याक गद्य ह्या स्वरुपाच्या एक लक्ष पंचवीस हजार श्लोकांचें हें भाशांतर ताणें ८७४ दिसांच्या काळांत पुराय केलें. ह्या वावराखातीर ताका 'केरळव्यासन्' ही उपाधी मेळ्ळी.

फुडल्या काळांत इंग्लीश शिक्षणाचो प्रसार, खिस्ती धर्माच्या प्रसाराखातीर खिस्ती धर्मप्रचारकांनी केल्ले उपक्रम, शब्दकोश, व्याकरण, भाशा-साहित्याचो इतिहास आनी विश्वकोश ह्या सारक्या संशोधन साधनांची निर्मिती, दिसाळीं, नेमाळीं हांची सुरवात, पाठ्यपुस्तक समित्यांची स्थापना, विज्ञान आनी तंत्रज्ञान हांची उदरगत, उद्देगिकिकरणाचो प्रसार, समाजीक आनी राजकीय जागृती आदी घटकांक लागून आर्विल्लें मलयाळम् साहित्य तयार जालें.

आयिल्यम तिरुनाळ रामवर्मा (१८३२-८०) ह्या त्रावणकोरच्या महाराजाच्या मोनकेतनचरितम् आनी भाषाशाकुंतलम् ह्या ग्रंथांवरवी आर्विल्ले धर्तेचेर जाल्ली गद्याची उदरगत दिसून येता. ताचोच उत्तराधिकारी विशाखम तिरुनाळ हाणें साहित्याक उत्तेजन दिवन स्वता लिखाण केलें. बेंजामिन बेले (१८०५-७१), जोसेफ पीट, रिचर्ड कॉलिन्स आनी जॉर्ज माथेन आदी धर्मप्रचारकांनी गद्याचे उदरगतीक हातभार लायलो. पूण आर्विल्ल्या मलयाळम् साहित्यांत मोलादीक भर घाली ती डॉ. हेरमान गुंडर्ट (१८१४-९३) ह्या जर्मन धर्मप्रचारकान. ताणें २० परस चड ग्रंथ बरयले. तातूंत मलायळम्-इंग्लीश शब्दकोश, मलयाळम्चें व्याकरण आनी पाठमाला हे म्हत्वाचे ग्रंथ. वैक्कम पाच्चू मूत्ततू (१८१४-८३) हाणें बरयल्लें मलयाळम्चें व्याकरण (१८७६) तशेंच, कोवुण्णी नेडुंगडी (१८३१-८१) हाणें बरयल्लें केरळकौमुदी (१८७८) हेवूय म्हत्वाचे ग्रंथ आसात.

**आर्विल्लो काळखंड** : काव्य : मलयाळमातलीं महाकाव्यां हीं नवअभिजाततायवादाची निर्मिती आसा. अळकत्तू पद्मनाभ कुरुप (१८६९-१९३२) हाणें 'रामचन्द्रविलासम्' नांवाचें मलयाळमांतलें पयलें महाकाव्य बरयलें. ताचे उपरांत उळ्ळूर एस्. परमेश्वर अय्यर (१८७७-१९४९) हाचें उमाकेरळम्, पंतळम् केरळ वर्मा हाचें रुक्मांगदचरितम्, वळ्ळत्तोळ नारायण मेनन (१८७८-१९५८) हाचें चित्रयोगम् आनी के. सी. केशव पिळ्ळा हाचें केशवीयम् हीं महाकाव्यां म्हत्वाचीं आसात. हाचेभायर संस्कृतांतलीं म्हत्वाचीं अशीं सगळीं महाकाव्यां मलयाळमांत अणकारप जाल्यांत. मल्याळी कवींनी संस्कृतांतय कांय महाकाव्यां बरयल्यांत.

स्वच्छंदतायवादाची चळवळ सुरू जातकच भावगीतांचेच निर्मितींत वाड जायत गेली. ते नदरेन केरळवर्मा वलियकोयिल तंपुरान (१८४५-१९१४) हाची 'दैवयोगम्' ही काव्यरचना उल्लेख करपा सारकी आसा. के. सी. केशव पिळ्ळा हाची 'आसन्नमरण चिन्ताशतकम्' (एका मरणाधडेर पाविल्ल्या मनशाचीं चितनां), हाच्या काव्यांतल्यान स्वच्छंदतायवादी काव्याचें आत्मतत्त्व ठळकपणान दिसून येता. स्वच्छंदतायवादी आंदोलनाचें खरें पडबिंब कुमारन आशान, उळ्ळूर एस. परमेश्वर आनी वळ्ळतोळ नारायण मेनन ह्या त्रिमुर्ती कवींत दिसून आयलें. ए. आर. वर्मा. हाणें 'मलयविलासम्' नांवाचें काव्य बरोवन ह्या आंदोलनाक सैध्दांतिक अधिश्ठान मेळोवन दिलें.

फुडें मलयाळमांत विलापिका हो काव्यप्रकार भावगीतांची एक शाखा म्हूण विकसीत जालो. सी. एस्. सुब्रह्माण्यन् पोट्टी (१८७५-१९५४) हाची ओरु विलापम् ही ह्या प्रकारांतली पयली विलापिका. तशें पळोवंक गेल्यार कुमारन आशान हाचें वीण पुवू (१९०७) हें काव्य एके नदरेन एक विलापिकाच. हेभायर व्ही.सी. बालकृष्ण पणिक्कर (१८८९-१९१५) हाची ओरु विलापम्, नालप्पाट्टू नारायण मेनन (१८८७-१९५४) हाची कण्णुनीर्-तुळ्ळि, के. के. राजा (१८९३-१९६८) हाची बाष्पांजलि, कुमारन आशान हाची प्ररोदनम् आनी बालमणी अम्म हाची लोकांतरंगळिल् ह्यो मलयाळमांतल्यो म्हत्वाच्यो अशो विलापिका.

वयर उल्लेख केल्ले त्रिमुर्तींतलो वळ्ळत्तोळ हाणें अभिजातवादी कवी म्हूण आपले काव्यरचनेक सुरवात केली खरी, पूण उपरांत तो स्वच्छंदतायवादी जालो. साहित्यमंजरी नांवाचो बारा भागांत आशिल्लो ताचो भावगीतांचो झेलो उल्लेख करपासारको आसा. ताचे अनुयायी नालप्पाट्टू नारायण मेनन, कुट्टिप्पुरत्तू केशवन नायर, जी. शंकर कुरुप, वेण्णिक्कुळम् गोपाल कुरुप, पी. कुंजिरामन नायर, पाल नारायणन नायर, एम्. पी. अप्पन् आनी बालमणी अम्म हे कांय उल्लेख करपासारके कवी आसात. हांतूत 'जी' ह्या नांवान नामना आशिल्लो जी. शंकर कुरुप (१९०१-७८) हाणें गूढवाद, प्रतीकवाद, वास्तववाद आनी प्रागतिक वास्तववाद ह्या प्रकारांतलें लिखाण केलां. १९६५ वर्सा ताका पयलो ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळो. उपरांतच्या काळांत एटप्पळ्ळी राघवन् पिळ्ळा

(१९०९-३६) आनी चंगम्पुळ कृष्ण पिळ्ळा (१९१३-४७) हे एकाच वाठारांत रावपी कवी फुडें आयले. हातूंतल्या एटप्पळ्ळीन प्रेमप्रकरणाक लागून जीव दिल्ल्यान चंगम्पुळ हाका 'रमणन्' नांवाची गोपगीतात्मक विलापिका बरोवपाक उर्बा मेळ्ळी. उपरांत-एटश्शेरी गोविंदन् नायर (१९०६-७४), वैलोप्पिळ्ळिल श्रीधर मेनन, पी. भास्करन्, राम वर्मा वयलार आनी ओ. एन्. व्ही. कुरुप, एन. व्ही. कृष्ण वारियर, आक्कित्तम् अच्युतन् नंपूतिरी, ओळप्पमण्ण, ओ. एम्. अनुजन, के. अय्यप्प पणिक्कर, एम्. गोविंदन, सच्चिदानंदन्, सुगतकुमारी, एन्. एन्. कक्काड, पालूर, पी. कुंजिय्यरामन नायर, के. के. राजा, एन. गोपाल केटामंगलम पप्पुक्कुट्टि, पाला नारायणन नायर, एम. पी. अप्पन, सी. जे. मण्णुमूट, मलेश्या रामकृष्ण पिळ्ळा तटक्काटु चन्द्र शेखरन नायर, अयिरुर सी. माधवन पिळ्ळा, एम. एस. कुमारन नायर, सी. कृष्णन नायर, ईश्वर वारियर हे कांय आर्विल्ल्या काळांतले कवी आसात.

**नाटक :** सुरवेच्या मलयाळम् रंगमाचयेर तमिळ संगीत नाटकाचो प्रभाव आशिल्लो. उपरांत तांचेर अस्तंत्या नाटकाचो प्रभाव दिसूंक लागलो. सुरवेक केरळ वर्मा हाणें कालिदासाच्या शाकुंतल नाटकाचो अणकार केले उपरांत जायते संस्कृत आनी इंग्लीश भाशेंत अणकार जाले. फुडें पुर्तुगेजींतलीं अद्‌भुत नाटकां (बायबलांतल्यो घडणुको) हांकालागून 'चविट्टु नाटकम्' ह्या प्रयोगाचो उदेंत जालो. सुरवेक ह्या प्रकारचीं कांय नाटकां बरोवन सादर करप जातालीं. सुरवेच्या काळांतले कांय नाटककार अशे :सी. व्ही. रामन् पिळ्ळा, (१८५८-१९२२), कौच्चुण्णी तंपुरान (१८५८-१९२६), के. सी. केशव पिळ्ळा (१९६८-१९१३), कंटत्तिल् वर्गीस् माप्पिळ (१८ ५८-१९०४), कोच्चीप्पन् तरकन् (१८६१-१९४०) आनी के. पी. करुप्पन् (१८८५-१९३८). ताचे उपरांतचे नाटककार म्हळ्यार ई. व्ही. कृष्ण पिळ्ळा, एन. पी. चेल्लप्पन नायर, टी. एन्. गोपीनाथन नायर, कैनिक्कर पद्मनाभ पिळ्ळा, कैनिक्कर कुमार पिळ्ळा, कुट्टनाट्टू रामकृष्ण पिळ्ळा आदी.

फुडें इब्सेनच्या नाटकाकलागून मलयाळम् नाटकांत जायते बदल घडून आयले. ए. बालकृष्ण पिळ्ळा, सी. नारायण पिळ्ळा आनी सी. जे. टॉमस हांणी इब्सेनच्या कांय नाटकांचो अणकार केल्लो आसा. उपरांतच्या काळांत नाटक म्हळ्यार वायट रुढी आनी चालीरितींचो धिक्कार करून समाजीक जागृती सादपाचें एक समर्थ माध्यम जालें. ते नदरेन व्ही. टी. भट्टतिरिप्पाटू (अटुक्कळयिल निन्नुम अरन्नत्तेक्कु १९३०), एम. पी. भट्टतिरिप्पाट (ऋतूमति), के. दामोदरन (पाट्टबक्कि)१९३८, एटश्शेरी हाचें (कूट्टुकृषि) १९५० हे कांय नाटककार जावन आसात. हांचे भायर एन. कृष्ण पिळ्ळा (मग्नभवनम १९४२, कन्यका १९४४ आनी बलाबलम (१९४६), सी. जे. टॉमस, पुळिमान परमेश्वरन नायर, सी. एन. श्रीकंठन नायर आनी तोप्पिल् भासी आदी नाटककारांनी नाटकाच्या मळार मोलादीक, वावर केला. आर्विल्ल्या काळांतले प्रयोगवादी नाटककार म्हूण एन. एन. पिळ्ळा, के. टी. मुहंमद, जी. शंकर पिळ्ळा, कावालम नारायण पणिक्कर, सी. नारायण पिळ्ळा, गोपिनाथन नायर, ई. एम. कोवूर, ए. बालकृष्ण पिळ्ळा, ए. के. गोपाल, परमेश्वरन पिळ्ळा आदींचो उल्लेख करपासारको आसा. हाचेभायर अप्पन तंपुरान, जी. शंकरकुरुप्प, के. रामकृष्ण पिळ्ळा, डॉ. के. एम. जॉर्ज, कारूर नीलकंठ पिळ्ळा, पी. वी. कृष्णन नायर, आर. एस. कुरुप्पु, केशव देव, गोपिनाथन नायर, वीर राघवन नायर हांणी एकांकिकेच्या मळार मोलादीक वावर केला.

**कादंबरी :** एकोणिसाव्या शतमानाचे निमाणें चडकरून अस्तंत्याच्या प्रभावान मलयाळमांत कांदबरी लिखाणाक सुरवात जाली. घातकवधम्, मिसेस कॉलिन्स, पुल्लेलि कुंचु, आर्य डीकन कोशी आनी कांय अणकारीत कादंबऱ्यो, हें ह्या मळावयलें कांय सुरवातीचें बरप. नेटुन्नाटी हाची कुंदलता (१८८७) ही पयली कादंबरी. फुडें विसाव्या शतमानाचे सुरवेक चट्टंपी स्वामिकळ (१८५३-१९२४) आनी नारायणगुरू हे म्हत्वाचे कादंबरीकार फुडें आयले. ह्याच काळांत ओ. चंतू मेनन (१८४७-१९००) हाची इंदुलेखा ही पयली कादंबरी (लॉर्ड बेकन्सफील्ड हाच्या हेन्रीट्टा टेंपल हे कादंबरीचो अणकार). सी. व्ही. रामन पिळ्ळा हो मलयाळमांतलो एक श्रेश्ठ कादंबरीकार आसा. ताच्यो मार्तांड वर्मा (१८९१), धर्मराज (१९१३) आनी राम राज बहादूर (२ खंडांत, १९१८-२०) ह्यो म्हत्वाच्यो कादंबऱ्यो. हाचे भायर कांय नामनेचे कादंबरीकार आनी तांच्यो कादंबऱ्यो अशो आसातः पी.केशवदेव- ओट्यिल निन्नु (१९४२), नटि (१९४६), आर्कु वेटि (१९५०); वैक्कम मुहंमद बषीर-बाल्यकालसखि (१९४४), शब्दंगळू (१९४७), न्टुप्पाप्पेक्कोरानेंटारन्नु (१९५१), पात्तुम्मयुटे आटु (१९५७); तकळी शिवशंकर पिळ्ळा-तोट्टियुटे मकन (१९४७), चेम्मीन (१९५६); एस. के. पोट्टेकट्ट-विषकन्यक (१९४८); पी. सी. कुट्टिकृष्णन-उम्माच्चु (१९५५) सुंदरिकळुम-सुदरन्मारम (१९५८). आर्विल्ल्या काळांत के. सुरेंद्रन, पुन्नाटिल कुंजब्दुल्ल, नंदनार, कोविलन, पारप्पुरत्तू आनी हेर जायते उल्लेख करपासारके कादंबरीकार आसात.

**लघुकथा :** मलयाळमांतल्यो सुरवेच्यो कथा म्हळ्यार जायतीं उपाख्यानां आशिल्ल्यो ल्हान कादंबऱ्योच. नेमाळयांक साहित्य दिवपाचे नदरेन सुरवेचे कांय लेखक लघुकथा बरोवंक लागले. वेन्नयिल कुंजुरामन् नायनार (१८६१-१९१५), अंपाटी नारायण पोतुवाळ (१८७१-१९३६), मूर्कोत्तू कुमारन (१८७४-१९४१), के. सुकुमारन (१८७६-१९५६) आनी एम. आर. के. सी. ह्या टोपण नांवान नामना आशिल्लो चेंकुळत्तू कुंजिराम मेनन (१८८२-१९४०) हे ह्या मळावयले लघुकथाकार. नवे तरेच्यो लघुकथा १९३०च्या अदमासाक विकसित जावंक लागल्यो. कारूर नीलकंठ पिळ्ळा (१८९८-१९७४), पी. केशवदेव (१९०२- ) पोनकुन्नम वर्क्की (१९०८- ), वैक्कम मुहंमद बषीर (१९१२ - ), एस. के पोट्टेकट्ट (१९१३- ) तकळी शिवशंकर पिल्ले (१९१४ - ), पी. सी.

कुट्टिकृष्णन् (१९१५ - ), ललिताम्बिका अंतर्जनम (१९०९ - ) आनी के. सरस्वती अम्म (१९१९-१९७४) हांणी लघुकथेच्या मळार मोलादीक हातभार लायलो. एम. टी. वासुदेवन नायर, टी. पद्मनाभन, ओ. व्ही. विजयन, माधविकुट्टी (कमलादास), पुन्नाटिल कुंजब्दुल्ल, काक्कनाटन, एम. मुकुंदन, वेट्टूर रामन नायर, मुट्टत्तु वर्की, ई. एम. कोवूर, प्रोफेसर जोसफ मुटंश्शेरी, पेय्यिंक्करा राफी, एन. पी. मोहम्मद, एन. टी. गोविंदन कुट्टी, जोसफ चेरु वत्तूर, एम. पोट्टेक्काट, पम्मन आनी हेर कांय उल्लख करपासारके कथाकार आसात.

**समीक्षा :** १८९० च्या सुमाराक मलयाळम् नेमाळीं सुरू जालीं आनी ताकाच लागून साहित्यसमीक्षा आनी निबंधलेखनाक चालना मेळ्ळी. सुरवेक नेमाळ्यांतल्यान ग्रंथसमीक्षाच्यारुपान समीक्षा येवंक लागली. श्री. सी. पी अच्युत मेनन हाणें 'विद्या विनोदिनी' तल्यान तोखणाय करपासारकें समीक्षा लेखन केलां. व्याकरणकार, कवी आनी अणकारपी ए. आर. राजराज वर्मा हाचीय समीक्षक म्हूण नामना आशिल्ली.

फुडें विसाव्या शतमानाची सुरवात जावपाक अस्तंते विचारसरणेचो प्रभाव आयिल्ल्यान समीक्षक अस्तंत्या निकशांच्या आदारावरवीं ग्रंथाक तोलूंक लागले. साहित्यपंचानन पी. के. नारायण पिळ्ळा (१८७८-१९३७) हो ह्या काळांतलो उल्लेख करपासारको समीक्षक. हाचेभायर के. रामकृष्ण पिळ्ळा (१८७८-१९१६) आनी सी. अंतप्पायी, ए. बालकृष्ण पिळ्ळा (१८८९-१९६०), मुंटश्शेरी जोसेफ (१९०१-७७), कुट्टिकृष्ण मारार (१९००-१९७३), एम. एस. देवदास आनी के. दामोदरन, एम. पी. पॉल ह्या कांय समीक्षकांनी ह्या मळार मोलादीक वावर केला.

**निबंद आनी चरित्र- आत्मचरित्र :** चडशे सगळे समीक्षक हे बरे निबंधलेखकय आशिल्ले. आर्विल्ल्या काळांत मलयाळम् निबंदाची शाखा बरी विकसीत जाल्ली आसा.

चरित्र लेखन ही आर्विल्ल्या कालखंडांत विकसीत जाल्ली मलयाळम् साहित्याची आनीक एक शाखा. फुडें चरित्रलेखनाचो एक भाग म्हूण आत्मचरित्रय बरोवपाक सुरवात जाली. कवी, राजकारणी मनीस, समाजीक कार्यकर्ते आदी जायत्यांनी आत्मचरित्रां बरयल्यांत.

**हेर साहित्य :** आर्विल्ल्या काळांत ह्या मळारय भरपूर उदरगत जाल्या. भाशेविशींच्या अध्ययनाचे राज्य संस्थेंत 'स्टेट इन्स्टिट्यूट ऑफ लँग्वेज' हे संस्थेन तत्त्वगिन्यान, वैजकी, राज्यशास्त्र, अर्थशास्त्र, भौतिकी, रसायनशास्त्र, जीवशास्त्र आनी मानव्यविद्या, ह्या सारक्या शास्त्रीय विशयांवयले जायते विवेचक ग्रंथ उजवाडा हाडल्यात. राज्यशासनान मलयाळम् विश्वकोशाचें काम हातांत घेतिल्लें आसून केरळ विद्यापिठांत शब्दकोशाचें काम चालू आसा. साहित्याचे कांय इतिहासय बरयल्ले आसून उळ्ळूर एस. परमेश्वर अय्यर हाणें बरयल्लो केरळ साहित्य चरित्रम् हो ग्रंथ म्हत्वाचो आसा.

**साहित्यीक संस्था आनी नेमाळीं :** मलयाळम् साहित्याचे उदरगतीक जायत्या संस्थांनी आनी नेमाळ्यांनी हातभार लायला. तातूंतल्यो म्हत्वाच्यो अशो कांय संस्था आनी नेमाळीं अशीं आसातः १) केरळ साहित्य अकादेमी २) राज्य भाशा संस्था ३) राज्य विश्वकोश प्रकाशन संस्था ४) मलयाळम् शब्दकोश ५) प्राच्यविद्या संशोधन संस्था आनी हस्तलिखित ग्रंथालय ६) केरळ कला मंडलम संस्था ७) केरळ साहित्य परिशद आनी शास्त्र साहित्य परिशदः हातूंत 'कविसमाजम' हे संस्थेची १८९२त, 'केरळ साहित्य परिशदेची १९२७त, जाल्यार 'जीवत् साहित्य समिती'ची १९३७ त स्थापना जाली. तेचपरी १९४४ वर्सा प्रागतिक साहित्य परिशदेची स्थापना जाली. मलयाळमांत जायतीं नामनेचीं नेमाळीं उजवाडा येतात. जांचेवरवीं लघुकथा, कादंबऱ्यो, कविता आनी साहित्याविशींचे लेख उजवाडा येतात. गंभीर स्वरुपाच्या लिखाणाची आवड आशिल्ल्या वाचकांची गरज भागोवपी नेमाळीं व्हड प्रमाणांत आसात. तातूंतलीं कांय म्हत्वाचीं अशीं: १) भाषासहिती, २) भाषापोषिणी, ३) साहित्यलोकम ४) विवेकोदयम ५) मलयाळम् मनोरमा.

**इनामां आनी मानभौमान :** भारताच्या राश्ट्रपतीन डॉ. सुरनाट्टू कुंचन पिळ्ळा हाका मलयाळम् शब्दकोशाचो संपादक म्हूण कामगिरी केल्ले बद्दल भोवमान केला. जी शंकर कुरुप हाका 'ओतक्कुळल' ह्या कविताझेल्याक (१९६५), एस. के. पोट्टेकट्ट हाका ताच्या 'ओरू देशातीनटे कथा' हे कादंबरी खातीर (१९८०), तकषी शिवझंकार पिल्ले (१९८४), एम. टी. वासुदेवन नायर (१९९५) हांकां ज्ञानपीठ पुरस्कार प्राप्त जाल्यात. 'वयलार राम वर्मा इनाम' हें मलयाळमांतलें सगळ्यांत व्हडलें इनाम. आदल्या पाच वर्सांतले बरे, ललित कृतीक हें इनाम दितात. मल्याळी साहित्यिकांक केरळ साहित्य अकादेमीची इनामांय मेळ्ळयांत. डॉ. के. एम. जॉर्ज हाका 'भारतीय भाशा परिशद' इनाम मेळ्ळां.

मलयाळम् साहित्यिकांची एक सहकारी संस्था ग्रंथ उजवाडा हाडपाचो मोलादीक वावर करता. 'साहित्य प्रवर्तक सहकार संघम' ही हे तरेची एक बऱ्यांत बरी संस्था जावन आसा. पुराय केरळांत हे संस्थेची पुस्तकविक्री केंद्रां आसात. ही संस्था साहित्यिकांक चडांत चड स्वामित्वशुल्क (रॉयल्टी) दिता.

- कों. वि. सं. मं.

**मलवेदन (मलई वेदन) :** भारतांतली एक आदिम जमात. ती चडकरून तमिळनाडू आनी केरळ राज्यांत आसा. ह्या लोकांची वसती केरळ राज्यांतल्या कोट्टायम आनी क्विलॉन जिल्ह्यांत दिसता. हांकां मलैवेदन, काननवेदन, वेट्टुवन वा वैदर अशेंय म्हण्टात. १९७१चे जनगणने प्रमाण हांची लोकसंख्या १,२५८ आशिल्ली.

मल म्हळ्यार दोंगर आनी वेदन म्हळ्यार शिकारी हांचेपसून मलवेदन हें नांव पडलें आसुये. तमिळनाडूंत ह्या लोकांक वाल्मिकुलू ह्या नांवान वळखताले. तांच्यांत वलियवेदन, चैरुवेदन, चिंगणीवेदन आनी एलिचट्टीवेदन अशो चार पोटजाती आसात. चैरुवेदन आनी वलियवेदन हांच्यांत रोटी-बेटी वेव्हार जायनात. पूण चिंगणीवेदनांकडे तो जाता. चैरुवेदनांचो आनी एलिचट्टीवेदनांचो रोटी-बेटी वेव्हार जायना.

हे लोक मध्यम उंचायेचे आनी मध्यम बांध्याचे आसतात. कपल मात्शें मुखार आयिल्लें आसता. मुदयाळे काळे केंस आनी काळे दोळे, पुडीकोराचो वर्ण हीं तांचीं कांय शारिरीक खाशेलपणां आसात.

हे लोक तमिळ आनी मलयाळम ह्या भाशांच्या मिश्रणांतल्यान तयार जाल्ली भास उलयतात. वाल्मिकीक ते आपलो पूर्वज मानतात.

मलवेदन बायलो कमरे भोंवतणी साडये भशेन वस्त्र गुठलावन तें उजव्या खांद्यार उडयतात. तांच्यांत दादले-बायलो दोगांय हातांत कांकणां, कडीं, कानांत वाळे घालतात. बायलो गळ्यांत तरातरांच्या मणयांच्यो माळो घालतात.

मलवेदनांची मलवेत्तवन ही शाखा हालीं बरीच सुदारल्या. तिका जातीचोय दर्जो मेळ्ळा. तांची वसती राखीव रानांचे शिमेवाठारांत स-सात झोपड्यो बांदून चोम्यान रावतात.

तांच्यांत पितृसत्ताक कुटुंबपद्दत आसा. ते आपली आस्पत आपलो पूत आनी भाचो हांच्यांत सारकी वाट्टात. बायलांक संपत्तींत वारसा हक्क नासता.

हेरांपरस वेगळे दिसचे म्हूण ते स्वताचे दांत तासून घेतात. चल्याचे दांत अठराव्या वर्सा आनी चलयेचे दात धाव्या वर्सा तासतात, हें तांचे जमातीचें खाशेलपण आसा.

हे लोक जडप्राणवादी आसून ते गणचिन्नांची पुजा करतात. तशेंच ते हिंदू देवदेवतांकूय भजतात. पूर्वपुजेक म्हत्वाची सुवात आसा. ते ओणम्, कर्कदक आनी संक्रांत ह्यो परबो मनयतात. तांचो जादूटोण्याचेर खूब विश्वास आसा. तशेंच तांकां शकून-अपशकून लागतात.

मलवेदन लोकांत बालविवाहाची चाल आसा. क्रयविवाह, औपचारिक अपहरण विवाह आनी सेवाविवाह करपाचीय तांच्यांत चाल आसा. आते-मामे भयणींच्या लग्नांक प्राधान्य दितात. लग्नसुवाळो सादोच आसता. तो सकाळीं करतात. लग्न व्हंकलेगेर जाता. न्हवऱ्यान, व्हंकलेच्या गळ्यांत ताळी बांदून आनी व्हंकलेक साडी दितकच लग्न सूवाळो सोंपता. उपरांत न्हवरो आनी व्हंकल एके शेंदरेर बसून जेवतात.

ह्या लोकांत खूब बायलो करपाची चाल आसा. कांयकडे दर एके बायलेक वेगळी झोपडी आसता.

पयल्या गुरवारपणांत, सातव्या म्हयन्यांत बायलेक कुळारा धाडटात. थंय पुळिकुडी नांवाचो सुवाळो करतात. बायलेक आमटाणीचें उदक पिवपाक दितात. उपरांत नाल्ल फोडटात. बाळंत जातकच एक म्हयनो सुयेर पाळटात. चडशो परबो ते आषाढ-श्रावण म्हयन्यांत मनयतात.

मलवेदन लोक, मडें कपड्यांत गुठलावन, दोन मीटर खोल फोंड खणून तातूंत पुरतात. मेल्ल्याच्या तोंडांत पूत वा पुतणयो तांदूळ घालता. थडग्याचेर नाल्ल आनी पेज घाल्लें मडकें दवरतात. मेल्ल्याचो आत्मो तें खाता असो तांचो समज आसता. बायलां, भुरगीं मसंडेंत वचनात. सोळा दीस सुतक पाळटात. त्या सोळा दिसांत ते रानांत वा शिकारेक वचनात. निमाण्या दिसा सोयऱ्या धायऱ्यांक जेवण घालतात.

शिकार हो तांचो मुखेल वेवसाय. तशेंच दोंगरावयली वखदी वनस्पत, मुळां एकठांय करून ते विकतात. कांय लोक शेतमजूर म्हणूनूय काम करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मलहोत्रा, जनरल ओमप्रकाश :** (जल्म : ऑगस्ट १९२२).

भारतीय भूसेनेचो माजी सरसेनापती. नोव्हेंबर १९४१ वर्सा भारतीय भूसेनेच्या तोफखानो विभागांत कमिशन जालो. कांय दीस देवळालीच्या तोफखाना-विद्यालयांत लश्करी शिक्षक म्हूण काम करतकच नोव्हेंबर १९५० ते १९५७ ह्या काळांत तोफखान्याच्या विंगड विंगड दलांचो कमांडर म्हूण रावलो. उपरांत वेलिंग्टन हांगाच्या स्टाफ कॉलेजांत प्रशिक्षक म्हूण ताची नेमणूक जाली. जून १९६२ ते जुलय १९६५ ह्या काळांत भारतीय दूतावास मॉस्को (रशिया) हांगा ताणें राजदूताचो सैनिकी सहाय्यक म्हूण काम केलें.



ऑगस्ट १९६५ ते जानेवारी १९६६ ह्या काळांत तोफखानो ब्रिगेडाचो मुखेल आसतना भारत-पाकिस्तान झुजांत संदेश पत्रिकेंतल्या उल्लेखाचो भोवमान ताका फावो जालो. उपरांत पहाडी ब्रिगेडाचो मुखेल अधिकारी म्हूण ताची नेमणूक जाली. नोव्हेंबर १९६७ वर्सा ताका मेजर जनरलचो हुद्दो मेळ्ळो. उपरांतचीं दोन वर्सां ताणें पायदळ डिव्हिजनाचें फुडारपण केलें. सप्टेंबर १९६९ वर्सा उदेंत आघाडीचेर चीफ ऑफ स्टाफ म्हूण एका कोअर मुखेल कचेरींत ताची नेमणूक जाली.

१९७४ वर्सा दक्षिणी कमान पुणें हांगा ताची कमान मुखेल म्हळ्यार 'जनरल ऑफिसर कमांडिंग इन चीफ' म्हूण आनी उपरांत जानेवारी १९७७ वर्सा ताची भूसेना अध्यक्षाचो दुय्यम म्हूण नेमणूक जाली.

त्याच वर्सा ताका 'परमविशिश्ट सेवापदक' दिलें. १ जून १९७८ वर्सा तो भूसेना अध्यक्ष ह्या मानादीक हुद्द्याचेर पावलो. जनरल ओमप्रकाश मलहोत्रा हो इकरावो भूसेनाध्यक्ष. ३१मे १९८१ दिसा तो निवृत्त जालो. १९८३ वर्सा तो भारताचो इंडोनेशियांतलो राजदूत जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**मलिक, सैय्यद अब्दुल :** (जल्म : १६ जानेवारी १९१९, नाहरनी, जि. सिबसागर, उदेंत आसाम).

आर्विल्लो असमिया कथाकार, कादंबरीकार आनी कवी. ताचें सुरवातीचें शिक्षण नाहरनी हांगा आनी महाविद्यालयीन शिक्षण गौहाती हांगा कॉटन कॉलेजींत जालें. एम्. ए. जातकच १९५१ वर्सासावन तो जोरहाट हांगाच्या जे. बी. महाविद्यालयांत असमिया भाशा साहित्याचो प्राध्यापक म्हूण काम करूंक लागलो.

मलिक हाणें खूब लिखाण केलां. ताणें खूबशो कविता आनी नाटकां बरयलीं. पूण आर्विल्ल्या असमिया साहित्यांत लोकप्रिय कथाकार म्हूण ताची नामना आसा. १४ कथांझेले, ३७ कादंबऱ्यो, ४ नाटकां आनी २ काव्याझेले इतली ताची बरपावळ आसा. ताचे कथेचें तंत्र प्रभावी आनी वाचप्यांक भुलोवपी अशें आसून तातूंत स्वच्छंदतायवाद, मनोविश्लेशण आनी समाजीक जाणविकाय हे म्हत्वाचे पांवडे आसात. ताच्या चडशा कथांनी, नागर तरनाटे चले-चलयांच्या मनोविश्लेशणाचें चित्रण दिसून येता. अशे तरेच्यो ताणें बरयल्ल्यो कांय म्हत्वाच्यो कथा अशो आसात- 'शेष उपकूलर सेलुवा पार', 'प्राण हेरोवार पाचत', 'जोवार आरु उपकूल', 'मरहा पापरि', तशेंच 'पारसमणि' (१९४६), 'रंगा-गरा' (१९५३), 'मरम्-मरम् लागे (१९६१), 'शील आरु सिखा' (१९६१) हे ताचे उल्लेख करपासारके कथाझेले आसात. अनैतिक पूण आगळयाच अशा मोगाचेंय ताणें आपल्या कथांनी व्हड सहानुभूतीन चित्रण केलां.

ताणें दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत सातत्यान २० वर्सां सुमार लिखाण केलें. कथा-लिखाणा उपरांत ताणें कादंबरीच्या लिखाणाक सुरवात केली. सुरवातीक ताच्या लिखाणाची प्रेरणा स्वच्छंदतायवादी आशिल्ली. पूण उपरांत मनोविश्लेशण आनी समाजीक जाणविकायेतल्यान ताणें लिखाण करपाक सुरवात केली. 'रथर चकरि घूरे' (१९५०) आनी 'बनजुई' (१९५४) ह्यो ताच्यो सुरवेच्यो कादंबऱ्यो स्वच्छंदतायवादी आशिल्ल्याच्यो जाणवता. पूण 'छबी घर' (१९५८) हे ताचे कादंबरीत मनोविश्लेशण आनी समाजीक जाणविकाय उक्ती जाता. 'सुरजमुखीर स्वप्न' (१९६०) ही ताची जैतिवंत आनी म्हत्वाची कादंबरी आसा. तशीच 'कपिलीपरिया साधु' हे कादंबरीत चंचल सौंदर्याचें चित्रण आसा. 'जियाजुरीर घाट' (१९६०) ही ताची मात्शी अश्लील पूण मानवी जिणेकडे घट नातें आशिल्ली कादंबरी. 'कंठहार' (१९६१), 'अन्य आकाश अन्य तारा' (१९६२), 'रुपतीर्थर जत्री', (१९६३), 'आघरी आत्मर काहिनी' (१९७२) ह्यो ताच्यो हेर कांय उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो आसात.

ताचे दोन काव्याझेले आसात. तातुंतलो 'फुलसर्जार रति' हो काव्याझेलो उल्लेख करपासारको आसा. ताचें 'राजद्रोही' (१९५८) हें नाटक आसून ह्या नाटकांतले 'सतराम'. हे इतिहासीक व्यक्तीक ताणें लोकक्रांतीचे फाटभूंयेर नवो अर्थ मेळोवन दिला. नाजूक संवेदनशीलता, सहानुभूती आनी समाजीक जाणविकायेचें भान हीं ताच्या लिखाणाचीं खाशेलपणां आसात.

१९६५ वर्सा ताका 'सोविएत लँड नेहरू पुरस्कार' मेळ्ळो. ताणें रशियाची भोंवडी केली. हे भोंवडेंतल्यो आपल्यो यादी ताणें नेमाळयांनी उजवाडायल्यो.

'आघरी आत्मर काहिनी' हे ताचे कादंबरीक १९७३ वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जालो. राज्यसभेचो तो सदस्य आशिल्लो. आसाम साहित्य सभेचो अध्यक्ष तशेंच साहित्य अकादेमीचो सदस्य हीं भोवमानाचीं पदां लेगीत ताणें भूशयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**मलूकदास :** (जल्म : इ.स. १५७४, कडा (प्रयाग लागसार), उत्तर प्रदेश; मरण : इ. स. १६८२, कडा).

हिंदी संत कवी आनी मलूकदासी संप्रदायाचो संस्थापक. ताचें मूळ नांव मल्लू आशिल्लें. ताच्या बापायचें नांव सुंदरदास. हरिश्चंद्र, श्रृंगार आनी रामचंद्र हे ताचे तीन भाव. जातीन क्षत्रिय आसून ताच्या बापायक 'कक्कड' अशी उपाधी आशिल्ली. कांबळी विकपाचो तांचो परंपरागत धंदो. मलूकदासाचो गुरू, वैवाहिक जीण, तीर्थयात्रा हेविशीं अभ्यासकांभितर एकमत ना.

उदार वृत्ती आनी ल्हानपणासावन साधुसंतांकडे ताची ओड आशिल्ली. हेविशीं मलूकदासाच्यो कांय कथा प्रचलित आसात. एक फावट ताच्या घरा बरेच साधू आयले आनी तांणी जेवण मागलें. पूण घरांतल्या लोकांनी तांचेकडे लक्ष दिलें ना. उपरांत मलूकान घरांत जें किदें खावपाचें आशिल्लें तें सगळें त्या लोकांक दिलें. तशेंच कांबळी विकतना, एक फावट परमेश्वरान तांचें वजें व्हावोवन व्हेल्ल्याचो ताका साक्षात्कार जालो आनी तेन्नासावन पुरायपणान ताणें स्वताक भक्तिमार्गांत ओंपून घेतलो. लोक ताका मलूकदास ह्या नांवान वळखूंक लागले.

देवनाथ वा पुरुषोत्तम हो ताचो पयलो गुरू. तर मुरारी स्वामी हो दुसरो गुरू मानतात. मलूकदास गृहस्थधर्मी आशिल्लो. ताका एक चली आशिल्ली. बायल आनी चली मरतकच ताणें आपली जीण विरक्तपणान सारली.

तत्त्वगिन्यान, भक्ती आनी योग ह्या विशयांचेर ताणें खूब लिखाण केलां. 'ज्ञानबोध', 'रतनखान', 'भक्तवच्छावलि', 'भक्तिविवेक', 'ज्ञानपरोछि', 'बारह खडी', 'रामावतारलीला', 'ब्रजलीला', 'ध्रुवचरित', 'विभयविभूति', 'सुखसागर', हे ताचे कांय म्हत्वाचे ग्रंथ आसात. 'ज्ञानबोध', 'रतनखान' आनी 'भक्तवच्छावलि' हे ताचे तत्त्वगिन्यानाचेर बरयल्ले म्हत्वाचे ग्रंथ आसून, त्या ग्रंथांत गिन्यान, भक्ती आनी वैराग्य हांची विस्कटावणी केल्या.

गीतेच्या तत्त्वगिन्यानाचेर ताची खूब श्रध्दा आशिल्ली. ताच्या काव्यांत पुराय समर्पणान भरिल्लें प्रेम आनी भक्तीचो आविश्कार दिसून येता. ताचें काव्य अवधी भाशेंत आसलें, तरी खडी बोलीचो ताचेर प्रभाव आसा. ताका १०८ वर्सांची पिराय लाबली. ताच्या मरणावेळार, ताच्या शिश्यांक तशेंच घरच्या लोकांक शंख आनी घंटांचे आवाज आयकूंक येताले अशें म्हण्टात. मलूकदासाचे इत्सेवयल्यान ताका गंगेत महासमाधी खातीर सोडून दिलो. ताचें शरीर कडा गांवांतल्यान प्रयागाक, थंयसावन काशीक आनी उपरांत जगन्नाथपुरीक व्हांवत गेलें. थंय पंड्यांक स्वप्नदृश्टान्त जालो. तांणी ताका प्रवाहांतल्यान ओडून जगन्नाथाचे मूर्तीसामकार दवरलो. मलूकदासाचे इत्सेवयल्यान, जगन्नाथान ताका आपल्या म्हऱ्यांत सुवात दिली, अशी आख्यायिका आसा. आयजलेगीत ती सुवात थंय दाखयतात आनी जगन्नाथाच्या प्रसादावांगडा मलूकदासाच्या नांवाचोय प्रसाद वांट्टात.

मलूकदास रामाचें नांव घेतालो पूण तो सगुण भक्त नाशिल्लो. ताणें खूबशे चमत्कार केल्ल्याच्यो दंतकथा आसात. औरंगजेबान ताका आपल्याक मेळपाक आपयल्लो आनी ताच्या व्यक्तिमत्त्वान प्रभावित जावन ताच्या कडा गांवांतलो जिझिया कर ताका माफ केलो. शिखांचो णवो गुरू तेगबहादूर, मलूकदासाक मेळपाक आयिल्लो.

आत्मज्ञानान मुक्ती मेळटा, अशेंच मलूकदासाचें मत आशिल्लें. पूण मलूकदासान आपल्या मताचो प्रचार केलो वा एकाद्र्या मठाची स्थापणूक केली असो खंयच उल्लेख मेळना. ताचे अनुयायी मात खूब आसात. हे रामाचे उपासक लोक कपलार तांबडो तिबो लायतात.

मलूकदासाचो भाचो सथुरादास हाणें ताचे जीणेचेर 'परिचई' बरयली. पूण ती उजवाडा येवंक ना. ताचो पुतणयो रामसनेही हाणें उपरांत मलूकदासी पंथाची गादी सांबाळ्ळी. उपरांत अयोध्यादास ह्या निमाणच्या उत्तराधिकाऱ्यामेरेन सुमार आठ उत्तराधिकारी जाले. उपरांत ही गादयेची परंपरा तुटली. प्रयाग, लखनौ, पुरी, मुलतान, सीता कोयल (दक्षिण भारत), जयपूर, वृंदावन, पाटणा हांगा ताचे अनुयायी आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मलेरिया (Malaria) :** जळारांवरवीं रगतांत पाविल्ल्या जंतूपसून जावपी जोराचो एक प्रकार.

**इतिहास :** मलेरिया हें दुयेंस वेदकाळापसून आसा. इ.स.प. ५व्या शेंकड्यांत हिपोक्रेटस (Hippocrates, Father of Medicine) हाणें मलेरियाचेर पुराय नियाळ केल्लो आसा. 'चरक' आनी 'सृश्रुत' सारक्या आयुर्वेदकालीन तज्ञांनी जळारां चाबिल्ल्यान मलेरिया जाता हें सांगिल्याची नोंद आसा. पुर्विल्ल्या काळांत इटली देशांत लोक दुशीत हवेक लागून (Mala- दुशीत, aria- हवा) मलेरिया जाता अशें मानताले. देखून ह्या दुयेंसाक मलेरिया हें नांव पडलें. १८८० त फ्रेंच सैनिकी शल्यविशारद लोवेरानान (Loverana) दक्षिण आफ्रिकेच्या लोकांच्या आंगांत मलेरियाच्या सुक्ष्मजंतुंचो सोद लायलो. १८९१त रोमानोव्हस्की (Romanowaski) ह्या रशियन तज्ञान मलेरिया सुक्ष्मजंतुचे रगत तपासणेची पद्दत सोदून काडली. हाका लागून आयज मलेरियाचे वेगवेगळे प्रकार आनी ताच्या जिविताचे अवतिकायेविशीं (Life cycle) अभ्यास करप सोंपें जालां. मॅन्सोन (Manson) हाणें १८९४ त हें दुयेंस जळारांक लागून पातळटा हें घोशीत केलें.

**भुगोलीक आस्पाव :** मलेरिया रोग्यांचो आंकडो २४० दशलक्षाच्या आसपास आसा. जगाच्या उश्ण प्रदेशांत (६०° उ. ते ४०° द. अक्षांश) ताचो चड आस्पाव आसा. कारण ह्या प्रदेशांतलें हवामान जळारांक अनुकूल आसता. युरोप, टर्की देशांतूय मलेरियाची नोंद मेळटा. आफ्रिकेंत हें प्रमाण चड आसा. सहाराचे दक्षिणेक ४५ देशांत मलेरिया आसा.

१९५३त सरकारान देशभर मलेरिया निर्मुलन कार्यावळ (National Malaria Eradication Programme = NMEP) चालीक लावन १९६१ मेरेन ह्या दुयेंसाचेर बरेंच नियंत्रण हाडलें. तरी कांय वाठारांनी कांय आडखळींक लागून तशेंच मलेरियाची परत लागण जाल्ल्यान मलेरियाची लागण वाडटी उरली. १९७७ त सुदारीत येवजणीखाला (Modified plan of operation-M.P.O.) मलेरिया निर्मुलन कार्यावळींत सुदारणा करून मलेरियाचेर बऱ्याच प्रमाणांत नियंत्रण हाडप शक्य जालें.

सवे आनी सातवे येवजणेंत तशेंच २००० वर्सा मेरेन (१९८१-२०००) M.P.O. कार्यावळींतल्यान API (Annual Parasite Incidence) वर्सुकी उपजीवी जंतू प्रमाण उणें करपाचो आनी मरणाचें प्रमाण शुन्याचेर हाडपाचो संकल्प आसा.

**कारणां :** प्लास्मोडियम (Plasmodium) जातीच्या परोपजिवी (parasite) जंतुची बाधा जाल्लीं अनोफिलीन (Anopheline) जातीचीं जळारां मनशाक चाबिल्ल्यान मलेरियाच्या सुक्ष्मजंतुची मनशाच्या रगताक लागण जावन थंडी लागून, कडकडो भरून खूब प्रमाणांत मलेरियाचो जोर येता. प्लास्मोडियम हे जंतू चार प्रकारचे आसतात-

१) प्लास्मोडियम फाल्सीपेरम (plasmodium Falciparum), २) पी. विवॅक्स (p. vivax), ३) पी. मलेरिया (P. Malaria), ४) पी. ओवाल (P Ovale). पी. फाल्सीपेरमाकलागून दिसपट्टो जोर येता. पी. विवॅक्स, पी. ओवालाकलागून मदीं एक दीस सोडून (tertian type) जोर येता. पी. मलेरियाकलागून मदीं दोन दीस सोडून (Quartane type) जोर येता.

जेन्ना अनोफेलीन (Anopheline) जळार मलेरिया जाल्ल्या मनशाक चाबता, तेन्ना मनशाच्या रगतांतले मॅक्रोगॅमेट (Macrogametocycle) जळारांच्या पोटांत पावतात. दादलो रुपांतल्यो पेशी बायल रुपांतल्या पेशींक फलीत करता. मलेरियाच्या प्रकाराप्रमाण ७-२० दिसांभितर स्पोरोझोइट (sporozoite) रुपांत परिवर्तीत जावन ते जळाराचे लाळेंत पावतात. जेन्ना हीं बाधीत जळारां परत मनशाक चाबतात, तेन्ना ते स्पोरोझोइट रुपांत मनशाच्या रगतांत पावतात. रोखडेच ते यकृतांत (Liver) पावतात. थंय तांची फुडें वाड जाता.

पी. फाल्सीपेरम जातींत ६$^{1}/_{2}$ दिसाउपरांत हेर जातींत ८$^{1}/_{2}$-११ दिसां उपरांत लिवरपेशी फुटून खूब संख्येन मेरोझोईट (Merozoite) रुपांत जंतू जिवनरसांतल्यान (Plasma) तांबड्या रगतपेशींत पावतात. तांबड्यो रगतपेशी फुटून जंतू परत जिवनरसांत पावतात. तेन्ना मनशाक थंडी, कडकड्यासयत जोर येता. फाल्सीपेरमचे सगळे जंतू एकाचवेळार व्हड जावन सगळ्या रगतांत पावतात. हेर तीन जातींचे प्लास्मोडियम म्हयन्याचे म्हयने लिव्हरपेशींत बंदिस्त उरतात. तांचेर रोगनाशक वखदांचो फाव तसो परिणाम जायना. ह्याच कारणान फाल्सीपेरम मलेरियांत परत वाड जावपाक पावना. हाचे उरफाटें हेर तीन जातींचे लागणुकेंत कितलेय फावट परत बाधा जावन जोर येवं येता. पुराय वाड जातकच तांबड्यो रगतपेशी फुट्टात. गॅमेटोसाईट रुपांत परत तांबड्या रगतपेशींक लागण जाता. ८-१० दिसांत मनशाक जोर येना. पूण त्या दिसांनी ह्या मनशापसून जळारावरवीं हेरांक मलेरियाची लागण जावं येता.

**लक्षणां** : चडशे फावट जोर तीन अवस्थांनी येता. सुरवातीक थंडी लागून कडकडो भरून येता. पांगरूण घेवनय कडकडो थांबना. दांतार दांत बसतात. रोखडोच खूब जोर येता (१०५फॅ.-१०६फॅ), तकली खूब दुखता. $^{1}/_{2}$-१ वराभितर आंगांत उजो जावन येता (Hot stage). ही जोराची दुसरी स्थिती. रोगी भ्रमिश्टावस्थेंत वचूं येता. ओंकारो चालूच उरता. तिसरे अवस्थेंत १-६ वरां उपरांत मनशाक खूब घाम सुट्टा. आंग थंड जावन जोर वता. मलेरियाचे जातीप्रमाण परत जोर पयलीं सांगिल्लेप्रमाण दीसपट्टो १ दीस सोडून, २ दीस सोडून येवं येता. मदीं कांयच लक्षणां आसनात.

पोट तपासतना प्लीहा (spleem) सुजिल्ली मेळटा. भुरग्यांचे बाबतींत यकृत (liver) सुजिल्लें मेळटा. तोंडाभोंवतणी पुळेर (Herpes Simplex) उदेता. फाल्सीपेरम मलेरियाचो जोर सवकासायेन येता. पूण घातक आसता. कारण जोर नेमान येना तरीय चड दीस उरता. आंगांत लागण जाल्ली आसल्यारूय भायर जोर दिसना पूण रोगी दुयेंत आसता. खूब थंडी लागून जोर येवन घामाघूम जावन जोर वचप अशें केन्नाय जाता. पूण खूब ओंकारे येतात. सोसूं नज इतली तकली दुखता. खर स्वरुपांत रक्तक्षय (Anemia) जावं येता. फाल्सीपेरम मलेरियांत फकत गॅमेटोसाईट अवस्थेंतलेच जंतू रगतांत दिसतात. हेर तीन जातींच्या मलेरियांत स्पोरोसाईट, गॅमेटोसाईट अवस्थेंत जंतू दिसूं येतात. फाल्सीपेरम मलेरिया पळोवपाक सादो, पूण दुश्परिणाम जीव घेवपी आसतात. एकाच वेळार दोन जातींच्या मलेरियाची लागण जावं येता. पी. मलेरिया जातीच्या मलेरियांत लक्षणां दर चवथ्या दिसा उपरासतात. कांयच लक्षणां नासतना हे जंतू खूब वर्सांमिरेन आंगांत जिते उरूं येतात आनी दर जिवनचक्रांत परत जोर येवं येता.

**परिणाम** : फाल्सीपेरम मलेरियांत मेंदूंतल्या ल्हान रगतशीरांत (Capillaries) इबाड जावन मेंदूक लागण जावं येता अशा वेळार जोर येता. रोगी मेळत तें बडबड्टा (Delirium) आनी बेशुध्द जावं येता. केन्नाय अर्धांग (Hemiplegia) वा एकांग (Monoplegia) जावं येता. वाचा बसूं येता (Aphagia). मूत्रपिडांतल्या सुक्ष्मरगतशिरांनी बिघाड जावन मूत्रपिंड खराब जावन मरण येवं येता (Renal Failure). हेचभाशेन आतड्यांक बाधा जावन हाग-ओंक (Diarrhaea-vomitting) जावं येता. वेळार उपाय जालो ना जाल्यार फाल्सीपेरम मलेरियांत चड तेंपान तांबड्यो रगतपेशी चड प्रमाणांत नश्ट जावन तांबडो रगतद्रव (Haemoglobin) मुतांतल्यान भायर पडटा. मूत पळोवंक तांबशें काळें वा काळेंकिट्ट दिसता. हे अवस्थेंत मूत्रपिंड खराब जावन मरण येवं येता (Renal failure).

**पुनर्आजार (Relapse)** : पी. विवॅक्स, पी. ओवाल, पी. मलेरिया जातीचे सुक्ष्मजंतू खूब म्हयने वा वर्सांमिरेन आंगांत (यकृतांत) जिते उरतात आनी मुळावे उपाय करूनय तांचेपसून परत दुयेंस जावं येता.

गुरवारपणांत मलेरियाकलागून गर्भपात जावं येता वा घातक रक्तक्षय जावं येता. भुरग्यांक मलेरियाकलागून जोर येनासतना हाग-ओंक, खांक, दमो ह्या सारक्या लक्षणांनी दुयेंसाची सुरवात जावं येता. वेळार उपाय जाले ना जाल्यार मोल्लुकें (convulsions) वा बेशुध्दावस्था येवन मरण येवं येता. तशेंच घातक प्रमाणांत रक्तक्षय जावं येता.

**निदान (Diagnosis)** : मलेरियाचो आस्पाव आशिल्लो वाठार धरचो. १-२ दीस सोडून थरावीक दिसा थरावीक वेळार जोर येवन यकृत, प्लीहाक सूज मेळत तर मलेरियाचो दुबाव आनीक वाड्टा. मलेरियाचे जंतू रगतांत मेकळे आसतात. तेन्नाच रगताची तपासणी करपाची आसता. मलेरियाची लागण जाल्ली आसल्यारय चडशे फावट रगतांत मलेरियाचे जंतू दिसनात. म्हणून जोर येता तितले फावट रगत तपासून घेवप खूब गरजेचें. कारण रगतांत जंतू दिसल्याबगर पुनर्आजार जांवचो न्हय म्हणून आशिल्लें वखद चडकरून दिनात. कारण तें मातशें

अपायकारक आसता.

**उपाय** : १) अंदाजी (Presumptive), २) मुळावो (Radical) आनी ३) भौशिक (Mass).

**अंदाजी** : जोराचें निदान निश्चीत खबर नासल्यार क्लोरोक्वीनच्यो व्हडांक ४ गुळयो, ल्हानांक १-२ गुळयो वांगडाच (भरिल्ल्या पोटार) दितात. मलेरिया आसत तर जोर वता. पूण त्या मनशाकडल्यान जळारांमार्फत मलेरियाची लागण हेरांक जावंक पावना. अंदाजी उपायाचो होच मुखेल उद्देश आसा. पूण क्लोरोक्वीन दिवंचे पयलीं बोटाचें रगत, तपासणेखातीर कंवचेचे पट्टेर घेवपाचें आसता. रगत तपासणेंत मलेरियाचे जंतू मेळ्ळयार पुनर्आजार जावंचो न्हय म्हणून प्रीमाक्वीन (Primaquin) नांवांचें वखद जातीप्रमाण चड-उण्या प्रमाणांत दिवंचे पडटा. गुरवारपणांत क्लोरोक्वीनपरस पाइरोमेथामीन (Pyrimethamin) हें वखद चड सुरक्षित आसता. ल्हव ल्हव क्लोरोक्वीन फाव तसो गूण दिना, तेन्ना पाईरीमेयामीन + सल्फाडॉक्सीन (Pyrimethamine + Sulphadoxine) अशीं पुरक वखदां दिवचीं पडटात. पूण हालीं हीं दोनूय वखदां फाव तशी परिणामकारी उरूंक नात. उपाय करूनय मलेरियाकलागून मरण येवपाचें प्रमाण दिसान दीस वाडतच आसा. मेफ्लोक्वीन (Mefloquin) नांवांचें नवें वखद प्रभावी आसा.पूण आजून तें भारतांत मेळना. पूण ताचो भलायकेचेर वायट परिणाम जावं येता असो दुबाव आसा.

**भौशिक (Mass)** : जळारांचे उत्पत्तीक बाधक अशा उपायाचेर भर दिवन वांगडा वशाच्या दिसांत लागशिल्ल्या लोकांनी आठवड्यांतल्यान क्लोरोक्वीनच्यो खेपेक २ गुळयो व्हडांक आनी १ गुळी ल्हानाक दिवपाक जाय. मलेरियाचो आस्पाव आशिल्ल्या वाठारांत वा देशांत वचचे पयलीं १सप्तक पयलीं, तशेंच गांव-घरा येवन ४-६ सप्तकांमेरेन गुळयो घेवपाक जाय.

**वासिनां** : मलेरियाचेर चालू वखदां फाव तशीं गुणकारी नाशिल्ल्यान ताचेर वासीन सोदून काडप ही एक गरज जावन आसा. अशीं तीन वासिनां आसात. १) स्पोरोझोईट वासीन (sporozoite), २) जंतूबाधीत तांबड्यो रगतपेशी वासीन (Parasitised R.B.C.), ३) मेरोझोईट वासीन (Merozoite) पयल्या वासिनाची सुरक्षा फकत ३ म्हयने. २ आनी ३ वासिनांचेर खूब सोद जाला आनी तांचेकडल्यान खूब अपेक्षा आसा.

मलेरियाचो उगम जळारां आशिल्ल्यान आनी हळशीक ही जळारांखातीर पोसवण दिवपी जाल्ल्यान, घरां-दारां, पोरसां, खळयो अशो सुवाती नितळ दवरप खूप गरजेचें. पोऱ्या उदकाची सांठवण जावंक दिवप ना. जंय जाता थंय नेमान जंतूनाशक वखदां शिंपडावप अशा घरगुती उपायांतल्यान मलेरियाचेर बऱ्याच प्रमाणांत नियंत्रण दवरप शक्य आसा.

- डॉ. आनंद हळर्णकार

**मलेशिया** : (उदेंत आनी अस्तंत) : आग्नेय आशियांतलो एक सार्वभौम देश. क्षेत्रफळ ३,३०,४३४ चौ. किमी. लोकसंख्या २०,९३२,९०१ (१९९८). १६ सप्टेंबर १९६३ दिसा स्वतंत्र जाल्ल्या ह्या देशांत सुरवेक मलाया, सिंगापूर, सारावाक आनी साबा हांचो आस्पाव आशिल्लो. पूण १९६५त सिंगापूर हो स्वतंत्र देश जावन मलाया हो अस्तंत मलेशिया म्हूण आनी सारावाक आनी साबा हे दोनूय मेळून उदेंत मलेशिया म्हूण अस्तित्वांत आयले. हे दोनूय विभाग एकमेकासावन सुमार ६४० किमी. लांबायेच्या दक्षिण चिनी दर्यान वेगळे केल्ले आसात. उदेंत मलेशियाचे उदेंतेक पॅसिफिक म्हासागर, उत्तरेक चिनी दर्या आनी सुलू दर्या, दक्षिणेक आनी अस्तंतेक इंडोनेशिया आसा. अस्तंत मलेशियाचे उत्तरेक थायलंड, दक्षिणेक सिंगापूर, नैर्ऋत्येक मलॅका सामुद्रधुनी, उदेंतेक दक्षिण चिनी दर्या आनी अस्तंतेक अंदमान दर्या आसा. क्वालालुंपूर ही देशाची राजधानी आसा. मलेशिया देश हो १३ राज्यांचो संघ आसून जोहोर, केदाह, केलान्तान, मेलाखा, नेगरी सेम्बीलान, पाहांग, पेराक, पेर्लीस, पुल्हा पिनांग, साबाहा, सारावाक, सेलांगूर आनी ट्रेंग्गानू हांचो आस्पाव जाता.

**भूंयवर्णन** : मलेशियाचो चडसो भाग दोंगरी आसा. दर्यादिगांनी आनी पर्वतांमजगतीं ल्हान ल्हान मळांचो आस्पाव जाता.

उदेंत मलेशियाची लांबाय सुमार १,०७८ किमी. आसून ताची रुंदाय सुमार २५८किमी. इतली आसा. ह्या विभागाक सुमार २,२५३किमी. लांबायेची दर्यादिग लाबिल्ली आसा. भूंयरचणुकेचे नदरेन ह्या विभागाचे मुखेलपणान तीन वांटे जातात. सारावाक हो शेकानशेक पातलिल्लो दर्यादिगेचो सपाट मळांचो भाग ३२ ते ६४ किमी. रुंदायेचो आसा. साबा भागांत मळांची रुंदाय १६-३२किमी. आसा. उदेंत मलेशियाचो दुसरो भाग दोंगर-देगणांनी मोडटा. हांगाच्या कांय दोंगरांची उंचाय ३०५ मीटर परस चड आसा. सारावाक भागांतले गूनुंग मुरूड (२,४२३ मी.) हें हांगाचें सगळयांत उंचेलें तेमक. विभागाच्या तिसऱ्या भागांत इंडोनेशियाच्या लागींच्या प्रदेशाचो आस्पाव जाता. हांगाच्या भागाची उंचाय हेर भागांपरस चड आसा. साबा भागांत हाचो विस्तार चड आसा. ह्या वाठारांत पठारां, दोंगरावळी आनी देगणांचो आस्पाव जाता. हांगा १,२१९ ते १,२३४ मी. मेरेन उंचायेचीं तेमकां आसात. किनाबालू (४,१०१ मी.) हें देशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमक.

अस्तंत मलेशिया हो विभाग सादारणपणान त्रिकोनी आकाराचो आसून ताची लांबाय सुमार ३२०किमी. आनी रुंदाय ९५किमी. आसा. हांगाच्यो दोंगरावळी उत्तर-दक्षिण दिकेन पातळिल्ल्यो आसात. तातूंतल्या कांय वळिंची उंचाय १,५००मी. परस चड आसा. ह्या वळिंची उंचाय दक्षिणेकडे कमी कमी जायत वता. सेंट्रल रेंज (४८२ किमी.) ही हांगाची सगळयांत लांब दोंगरावळ आसा. वळीची सरासरी उंचाय ९१४ मी. आसा. गुनूंग ताहान (२,१९० मी.) हें ह्या भागांतलें सगळयांत उंचेलें

तेमक. दर्यादिगांच्या वाठारांनी आनी पर्वतां मजगतीं कांय सपाट मळां आसात.

मलेशियांतल्यो चडशो न्हंयो कमी लांबायेच्यो आसात. अस्तंत मलेशियांतल्यो पाहांग आनी पेराक ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो आसात. उदेंत मलेशियांत राजांग (५६३ किमी.) ही मुखेल न्हंय आसा आनी साबा भागांत किनबतान्गान न्हंय म्हत्वाची आसा.

**हवामान :** मलेशियाचें हवामान उश्ण कटिबंधीय पावशी आनी दमट आसा. हांगा मळांच्या वाठारांनी तापमान ३२°से. ते २१°से. इतलें आसता. हांगाच्या हवामानांत ओलसाण सदांच चड आसता. हांगा वर्सुकी पावस सुमार १९०सेंमी. इतलो आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** उदेंत मलेशियाचो सुमार ७७% भाग आनी अस्तंत मलेशियाचो सुमार ६०% भाग विषुववृत्तीय सदांपाचवी आसपी पानांनी रेवडिल्लो आसा. ओक, शेलॉक, कोंडे, एबनी, साग, रबर, मॅहागनी ही हांगाची मुखेल रुखावळ आसा.

हांगाच्या दाट रानांनी विंगड विंगड मोनजात सांपडटा. तातूंत हत्ती, वाघ, हरणां, रानदुकर, माकड, गेंडे, वास्वेलां हांचो आस्पाव जाता. मानगीं, हार आनी नाग हांचेंय प्रमाण खूब आसा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** मलेशियांत सांपडिल्ल्या पुराव्यांवयल्यान हांगाचो इतिहास खूब आदलो आसा अशें कळटा. हांगाचें संस्कृतीक आनी राजकीय हालचालिंचें केंद्र मलाया द्वीपकल्प आशिल्लें अशेंय समजता. बोर्निओचो इतिहास म्हळयारूच उदेंत मलेशियाचो इतिहास आसून ताची चडशी म्हायती मेळना. सुमार ६,००० वर्सां पयलींसावन अस्तंत मलेशिया विभागांत वसाहती आशिल्ल्यो असो इतिहासकारांचो तर्क आसा. हांगाच्या पुरातत्त्वीय उत्खननांत अश्मयुगांतले आनी ताम्रपाशाण युगांतले संस्कृतीचे अवशेश सांपडल्यात. इ.स. पयलीं २,००० वर्सां पयलींसावन दक्षिण चीनासावन येवन हांगा राबितो केल्ले लोक हे मलेशियाचे पुर्वज आसा अशें मानतात. ह्या प्रदेशांत भारतीय लोकांच्या राबित्याविशीं चिनी इतिहासांत आनी पुराणांत साबार उल्लेख मेळटात. पुराणांत अस्तंत मलेशियाचो 'सुवर्णद्वीप' असो उल्लेख केला. कांय भारतीय वेपाऱ्यांनी ह्या प्रदेशांत इ.स.प. दुसऱ्या शेंकड्यांत हांगा आपलो राबितो केल्लो. उपरांत शेंकड्यांनी वर्सां ह्या प्रदेशाचेर भारतीय संस्कृतीचो खूब प्रभाव आशिल्लो अशें समजता. द्वीपकल्पाच्या ईशान्य भागांत इ.स.प. दुसऱ्या शेंकड्यांत 'लंकाशुक' ह्या नांवान भारतीयांच्या राज्याची थापणूक जाल्ली. कांय वर्सांभितरूच ह्या राज्याची भरभराट जावन ताणें ह्या द्वीपकल्पाचो चडसो उत्तर भाग आपल्या शेकातळा हाडिल्लो. उत्तर भागांतल्या तुनसून ह्या राज्यांत तिसऱ्या शेंकड्यांत ५०० परस चड भारतीय वेपारी आनी धर्मप्रसारक आशिल्ले, अशें कळटा. ह्या राज्याखेरीज द्वीपकल्पाच्या उदेंत भागांत चिह् - तू, तान-तान आनी अस्तंत भागांत कदारम, वायव्य भागांत को-लो आनी हेर राज्यांची थापणूक जाल्ली. कदारम राज्य हें इ.स. पांचव्या शेंकड्यांत भारतीय वेपाराचें आनी बौध्द प्रभावाचें ह्या प्रदेशांतलें मुखेल केंद्र आशिल्लें. केलांतान न्हंयेचे देगेर विस्तारिल्ल्या चिह्-तू राज्याचेरूय सव्या शेंकड्यांत भारतीय लोकांचें अधिपत्य आशिल्लें. कांय चिनी पुराव्यांवयल्यान सातव्या आनी आठव्या शेंकड्याच्या सुमाराक उदेंत आनी अस्तंत मलेशियांत ल्हान ल्हान सुमार ३० राज्यां आशिल्लीं. सातव्या शेंकड्यांत सुमात्राच्या श्रीविजयच्या शैलेंद्राची सत्ता ह्या प्रदेशाचेर आयली. इ.स. इकराव्या शेंकड्यांत दक्षिण भारतांतल्या चोलांनी मध्य आनी दक्षिण मलायाच्या प्रदेशांचेर घुरी घालून, श्रीविजयाचें साम्राज्य मोडून उडयलें. तेराव्या शेंकड्यांत जावा आनी थाई घराण्यांनी आपलीं राज्यां वाडोवपाक सुरवात केल्लीं. जावा जुंव्यावयल्या मजपहित ह्या हिंदू साम्राज्यान आपल्या राज्याचो विस्तार मलायामेरेन वाडयल्लो. ह्या काळांत आग्नेय आशियांतलें तें एक व्हड राश्ट्र आशिल्लें. थाई आनी जावा ह्या दोगांयनी मेळून चवदाव्या शेंकड्यांत श्रीविजयाचें उरिल्लेंय राज्य काबार केलें. पंदराव्या शेंकड्यांत जावांतल्या मजपहित राज्याक देंवतीकळा लागिल्ल्यान परमेश्वराच्या मुखेलपणाखाला मलॅका राज्याक म्हत्व मेळ्ळें. १४१४ त परमेश्वरान मुस्लीम धर्म आपणायलो. हाच्या तेंपार मलॅकाचे चीन, भारत आनी इस्लाम धर्मीय राश्ट्रांकडेन राजकीय आनी वेपारी संबंद खूब वाडले.

१५११त पुर्तुगीजांनी हो प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडलो. सुमार १२० वर्सांनी म्हळयार १६४१ त डचांनी ह्या प्रदेशाचेर आपलो शेक बसयलो. उपरांत १८२४त हो प्रदेश ब्रिटीश ईस्ट इंडिया कंपनीच्या शेकातळा आयलो. १८७४ सावन ब्रिटिशांनी ह्या प्रदेशांतल्या ल्हान ल्हान राज्यांचें मेळून एक संरक्षित राज्य केलें. १८९५त ह्या प्रदेशांतली पेराक, सलांगॉर, नग्री संबीलान आनी पाहांग हीं राज्यां एकठांय येवन 'फेडरेटेड मले स्टेट्स' ह्या संघराज्याची थापणूक जाली. १९०९त थायलंड आनी मले द्वीपकल्प हांचे मदली शीम थारावन थायलंडान केलांतान, ट्रेंग्गानू, पेर्लिस आनी केदाह हीं आपल्या अधिकारा सकयलीं राज्या ब्रिटिशांक दिलीं.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत बेर्निओ जुंव्याचो उत्तर भाग आनी साबा हे भाग १८८० ते ब्रिटिशांनी आपल्या ताब्यांत घेतिल्ले. उपरांत १८८८ त सारावाक आनी ब्रूनाई हे बिटिशांचे रक्षित भाग जाले. १९४६ त साबा आनी सारावाक ह्यो ब्रिटिश वसाहती जाल्यो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत मलाया आनी ब्रोर्निओ प्रदेश जपानान आपल्या ताब्यांत हाडिल्ले. म्हाझुजा उपरांत एप्रिल १९४६त 'ब्रिटिश संरक्षित प्रदेश' आशिल्ल्या मलायाच्या वट्ट इकरा राज्यांनी मेळून मलायन युनियनाची स्थापणूक जाली. १९४८ त तें 'फेडरेशन ऑफ मलाया' म्हूण अस्तित्वांत आयले उपरांत ३१ ऑगस्ट १९५७ त फेडरेशन ऑफ मलाया हें स्वतंत्र लोकसत्ताक म्हूण जाहीर केलें. ह्या स्वतंत्र मलाया

संघाक १६ सप्टेंबर १९६३ दिसा साबा आनी सारावाक ह्यो ब्रिटीश वसाहती जोडल्यो आनी अशे रितीन मलेशियाची निर्मिती जाली. मलेशियांत त्या तेंपार सिंगापूराचो आस्पाव आशिल्लो. पूण १९६५ त ह्या संघातल्यान सिंगापूर वेगळो जालो. १९६६ सावन मलायाक 'अस्तंत मलेशिया' आनी उपरांत 'द्वीपकल्पीय मलेशिया' आनी साबा, सारावाक हांकां 'उदेंत मलेशिया' अशीं नांवां पडलीं.

प्रशासनाचे वेवस्थेखातीर मलेशियाची १३ राज्यांत विभागणी केल्ली आसून क्वालालुंपूर हो वेगळो 'संघीय प्रदेश' केलो. देशात संविधानात्मक राजेशाही लोकशाही पद्दत आसा. संविधानात्मक तजवीजेवरवीं देशाचो सगळो सत्ताधीश राजा आसता. ताका द्विपकल्पीय मलेशियांतल्या णव राज्यांचे वंशपरंपरेन आयिल्ल्या संस्थानाधिपतींतल्यान वेंचून काडटात. राजा (supriam Head of state) आनी डेप्युटी सुप्रीम 'हेड ऑफ द स्टेट' हांकां पांच वर्सांखातीर वेचून काडटात. राजा संसद आनी मंत्रिमंडळ (कॅबिनेट) हांच्या सल्ल्यान राज्यकारभार सांबाळटा. देशाची संसद दोन सदनी आसा. 'देवन रक्यत' हें पुराय लोकांनी वेंचून दिल्ल्या प्रतिनिधींचें सभाघर आसून तातूंत १५४ सभासद आसतात. ह्या सभासदांक पांच वर्सांखातीर वेचून काडिल्ले आसतात. हातूंतले ११४ द्वीपकल्पीय मलेशियांतल्यान, २४ सारावाकांतल्यान आनी १६ साबामदल्यान वेंचून काडटात. 'देवन नेगर' ह्या दुसऱ्या घराची सभासद संख्या ५८ आसता. तातूंतले तीन वर्सांखातीर ३२ सभासद राजान नियुक्त केल्ले आनी २६ सभासद राज्य विधिमंडळानी वेंचून काडिल्ले आसतात. राजा प्रधानमंत्र्यांची नियुक्ती करता आनी ताच्या सल्ल्यान हेर मंत्र्यांक वेंचून काडटा. मंत्रिमंडळ डेमॉक्रॅटिक ॲक्शन पार्टी, पॅन आनी मलायन इस्लामिक पार्टी हे हांगाचे मुखेल राजकीय पक्ष आसात.

मलेशियाच्या संविधानावरवीं हांगाचें न्यायदानाचें काम उच्च आनी दुय्यम न्यायालयां सांबाळटात. अस्तंत आनी उदेंत मलेशियांत एक एक अशीं दोन न्यायालयां आसात. निमाण्या निर्णयाखातीर फेडरल कोर्टाची तजवीज हांगा आसा. हाचो मुखेली राजा आसून हातूंत न्यायालयाचो मुखेल न्यायाधीश आनी हेर स न्यायाधीशांचो आस्पाव जाता.

**अर्थीक स्थिती:** आग्नेय आशियांतल्या सैमीक साधनसंपत्तीचे व्हड सांठे आशिल्ल्या राश्ट्रांनी मलेशियाचो आस्पाव जाता. कथिल, रबर आनी ताडतेल हांची निर्यात करपाक हो देश हेर देशांपरस चड मुखार आसा. उश्ण कटिबंधीय घट लाकडाची निर्यात करपी हें एक मुखेल राश्ट्र आसा. खनिज तेल आनी सैमीक वायू हांचेय व्हड सांठे हांगा आसात.

भात हें देशांतलें मुखेल पीक आसून, दर्यादिगांनी नुस्तेमारी हो मुखेल वेवसाय हांगा चलता. द्वीपकल्पीय मलेशियांत भातशेतवडीचें केंद्रीकरण केल्लें आसा. तांदूळ हें हांगाचें मुखेल अन्न आशिल्ल्यान, पयलीं तांदळाची खूब प्रमाणांत आयात करची पडटाली. म्हूण भात उत्पादनांत स्वावलंबन हाडचे नदरेन देशान १९८२ वर्सा पंच वर्सुकी येवजणेंत भात उत्पादनाचेर भर दिल्लो. हाका लागून जलसिंचन प्रकल्प, वर्साक दोनदा पिक काडपाची पद्दत, भाताच्या चड उत्पादनक्षम जातींच्या लागवडीची कार्यवाही आनी शासनाची कमी भाव हमी येवजण हांची तजवीज केल्ली. नुस्तेमारी, पशुपालन, बागायती उत्पादनां, कोको आनी नाल्ल उत्पादन हे शेतवडीचेर आदारिल्ले वेवसाय खूब ल्हान प्रमाणांत चलतात. पूण हाका लागून सबंद शेतवड वेवसायाक व्हड फाटबळ मेळटा. कोको, तंबाकू, अननस, खोबरेल तेल हांकां चड म्हत्व आसा.

रबर हो मलेशियन अर्थवेवस्थेचो कणो आसा. १९८२ त रबराचे लागवडी सकल क्षेत्र २०,१०,१३५ हेक्टर इतलें आशिल्लें. पूण दिसानदीस रबरीचे लागवडीसकयलें क्षेत्र कमी जायत आसा आनी हाका लागून कमी उत्पादन मेळटा. हाका लागून रबराच्या रुखांची पुर्नलागवड आनी ते नेटान वाडचे म्हूण तांकां चडा प्रमाणांत रसायनीक सारें घालपाचो शासनाचो यत्न चलता.

१८६० सावन पामतेलाचें उत्पादन नेटान वाडत आसा. १९८२ त तेल उत्पादना खातीर ११,७०,७०० हेक्टर क्षेत्रांत पामाची लागवड केल्ली. हातूंतलें ८९.४% क्षेत्र द्वीपकल्पीय मलेशिया, ८.३% साबा आनी उरिल्लें २.३% क्षेत्र सारावाक भागांत लागवडीसकयल हाडिल्लें. १९७२ सावन पामतेलाच्या उत्पादनांत सबंद संवसारांत मलेशियाचो आंकडो पयलो लागता. सिंगापूर, ईईसी राश्ट्रां, भारत, जपान आनी अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां हे मलेशियाकडच्यान पामतेलाची आयात करपी मुखेल देश आसात.

रानांतल्या घट्ट जातींच्या रुखांक लागून ह्या देशाक बरीच व्हडली येणावळ मेळटा. साबा, सारावाक आनी द्वीपकल्पीय मलेशिया ह्या भागांतल्यान खूब प्रमाणांत लाकूड उत्पादन मेळटा. निर्यात करचेखातीर आनी बाजारपेठ विकसीत करचेखातीर सरकार ह्या लाकडांचो फावो तो उपेग करता.

परदेशी चलन मेळोवन दिवपी रबराप्रमाण कथिल हेंय मलेशियाचे अर्थवेवस्थेंतलो म्हत्वाचो घटक आसा. चडशें कथिल हें मलेशियाचे अस्तंत दर्यादिगेर आशिल्ल्या पेराक आनी सलांगॉर ह्या राज्यांत सांपडटा. जागतिक खनीज तेल उत्पादनाचे नदरेन मलेशियाचो वांटो खूब कमी आसा. पूण १९७६ सावन रबराफाटल्यान व्हड परदेशी चलन मेळोवन दिवपी म्हूण अशुध्द खनीज तेलाचो आंकडो दुसरो लागता. सैमीक वायुचेर प्रक्रिया करपी प्रकल्प १९८४त टेंगानू हांगा आनी बिंतूल हांगा १९८५ त अमोनिया-युरिया प्रकल्प उबारल्यात. निर्यात जावपी हेर खनिजांत तांबें, बॉक्सायट आनी लोहधातूक हांचो आस्पाव जाता.

मलेशिया अस्तित्वांत आयलें, तेन्ना हेर विकसनशील राश्ट्रांप्रमाण ताचेंय उद्येगीक क्षेत्र मागाशिल्ल्या स्वरुपाचें आशिल्लें. पूण हालींच्या

तेंपार परदेशी भांडवल गुंतवणुकीक लागून हांगा उद्येगधंद्याच्या मळार बरीच उदरगत जाल्या. कृषिउत्पादनां, बांधकाम सामुग्री, विद्युत् यंत्रां, इलेक्ट्रॉनिकीय वस्तू, कापडवस्त्र उद्येग, येरादारी सामुग्री, शिमीट, शाबू, रबर वस्तू, फर्निचर अशे विंगड विंगड कारखाने हांगा आसात. देशांतल्या म्हत्वाच्या उद्येगांत प्रक्रियाउद्येग, अभियांत्रिकी उद्येग आनी हस्तउद्येग हांचो आस्पाव जाता.

मलेशियांत निर्यात वेपारांत मुखेलपणान अशुध्द खनिज तेल, रबर, लाकूड, पामतेल आनी कथिल हांचो आस्पाव जाता. आयात वेपारांत चड म्हत्वाचे पदार्थ म्हळयार येरादारी सामुग्री, यंत्रसामुग्री, निर्मिती उद्देगांचीं उत्पादनां.

**येरादारी आनी संचारण :** द्वीपकल्पीय मलेशियांत, रस्ते आनी लोहमार्ग हांचो साबा आनी सारावाका परस चड प्रमाणांत विकास जाल्लो आसा. उत्तरेक थायलंडाचे शिमेसावन दक्षिणेक सिंगापूरमेरेन द्वीपकल्पीय मलेशियांतल्यान एक मुखेल मार्ग वता. केंद्रीय मार्ग क्वालालुंपूर आनी केलांग हीं दोन शारां जोडटा. केलातानांतलो जेली आनी पेराकांतलें ग्रीक हीं शारां जोडपी उदेंत-अस्तंत म्हामार्ग १९८२त येरादारी खातीर उक्तो केलो. साबा हांगा डांबरी रस्त्यांचें जाळें आसून तांची वेवस्था भौशिक बांदकाम खात्याकडेन आसता. सारावाक हांगा रस्त्यांचें प्रमाण खूब कमी आसा. त्या रस्त्यांची देखरेख राज्य शासन पळयता. साबा आनी सारावाक हीं दोन राज्यां जोडपी रस्तो १९८१ त उक्तो जालो.

द्वीपकल्पीय मलेशियांत ७८७ किमी. लांबायेचो मुखेल लोहमार्ग अस्तंत दर्या-देगेतल्यान सिंगापूरसावन उत्तरेक बटरवर्थ शारामेरेन वता. बटरवर्थ लागशिल्ल्या बूकीट मार्ताजाम ह्या शारालागीं ह्या लोहमार्गाचो एक फांटो थायलंडाचे शिमेमेरेन वता आनी थंय थांयलंडाच्या राश्ट्रीय लोहमार्गाक वचून मेळटा. उदेंत मलेशियांतलो ५२६ किमी. लांबायेचो लोहमार्ग गेमास ते टूंपार ह्या गांवामेरेन वता. १९८४त लोहमार्गाचें आधुनिकीकरण पुराय जालें.

मलेशियांतल्या बंदरांचें संघशासित आनी राज्यशासित अशें वर्गीकरण केलां. केलांग, पिनँग, जोहोर बारू, क्रांटान हीं द्वीपकल्पीय मलेशियांतलीं मुखेल बंदरां आसात. कोटा किनाबालू, संडकान, टाआऊ, लाआड डाटू, कूडाट, सेम्पोर्ना आनी कुनाक हीं साबा राज्यांतलीं मुखेल बंदरां आसात. बिंतुल बंदर हें सारावाक राज्यांतलें बंदर आसा.

क्वालालुंपूर, कोटा किनाबालू, पिनँग, जोहोर बारू आनी कूचिंग हांगा मलेशियाचे मुखेल आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. आलॉर सेटार, ईपो, कोटाबारू, कोटा ट्रेंगानू, क्वांटान, मलॅका हे विमानतळ देशांभितरली हवाई येरादारी सांबाळटा.

मलेशियांत लोकसंख्येची घनता उदेंत मलेशियापरस चड आसा. पूण ती सगळ्याक एकसारकी ना. भितरल्या भागांत दाट रानाच्या देगणांनी आनी दोंगरी वाठारांनी ती खूब पातळ आसा. हांगा कांय हेडग्यो जमातीय दिश्टी पडटात. दर्यादिगेवयल्या मळांच्या प्रदेशांनी मात लोकांची दाट वसती आसा. अस्तंत दर्यादेगेर ७०% परस चड लोकसंख्या आसून, उदेंत दर्यादिगेवेल्या कलांता त्रिभुज प्रदेशांत आनी ट्रेंग्गानू न्हंयेचे देगेर बरीच लोकसंख्या एकठांय आयिल्ली दिश्टी पडटा. साबा आनी सारावाक हांगाय अस्तंत दर्यादेगेर लोकवस्ती चड आसा. अस्तंत मलेशियांत ५०,००० परस चड लोकसंख्या आशिल्लीं १० शारां आसून साबा-सारावाक हांगा तीं दोन दोन अशीं आसात. चडशीं शारां दर्यादिगेवयल्या मळांच्या प्रदेशांतूच सांपडटात. उदेंत मलेशियांतले ७५% लोक गांवगिऱ्या वाठारांनी रावतात. अस्तंत मलेशियाचे नागरी लोकसंख्येंत चिनी लोक चड आसात. पूण भारतीय लोक नागरी आनी गांवगिरे वाठार अशा दोनूय भागांत दिश्टी पडटात. अस्तंत मलेशियांतले वट्ट लोकसंख्येंतले ५४% मले, ३५% चिनी, १०% भारतीय आनी १% हेर वंशीक गटाचे लोक आसात. साबा-सारावाक हांगा मले आनी मुस्लीम लोक दर्यादेगांनी आनी हेर लोक देगणांनी वा दोंगरी वाठारांनी रावतात. ह्या दोनूय प्रदेशांतले वट्ट लोकसंख्येंत थळाव्या जमातीचे लोक चड आसात. इबान, दायाक आनी मेलनाऊ ह्यो सारावाक हांगाच्यो आनी बाजाऊ आनी मुरूत ह्यो साबा हांगाच्यो थळाव्यो जमाती आसात. सेमंग जमातीचे लोक अस्तंत मलेशियाचे उत्तरेकडेन आशिल्ल्या रानांनी आनी साकाई जमातीचे लोक दोंगरी प्रदेशांनी सांपडटात. खूब आदल्या काळासावन जमीन आनी उदकामार्गांतल्यान जाल्ल्या स्थलांतराक लागून मलाया द्वीपकल्पांत विंगड विंगड भाशांचे आनी वंशाचे लोक सांपडटात. इस्लाम हो मलेशियांतल्या लोकांचो मुखेल धर्म आसून सगळे लोक मले इस्लाम धर्माचे आसात. देशांत धर्मीक स्वातंत्र्य आसा. चडशे चिनी बौध्द धर्माचे आनी कांय चिनी किरिस्तांव आसात.

मलेशियांत विंगड विगंड वंशाचे, धर्माचे आनी संस्कृतीचे लोक सांपडटात. पूण बौध्द आनी हिंदू धर्मांचो ठसो चड प्रमाणांत उदेल्लो दिश्टी पडटा. अशें आसून लेगीत दर एके मुखेल जमातीचें संस्कृतीक जिवित, सांस्कृतिक परंपरा आनी अर्थीक स्थिती विंगड विंगड आसा. मले लोकांत भाशिक, धर्मीक आनी संस्कृतीक एकवट आसा. चिनी लोकांत बौध्द आनी ताओ हे मुखेल धर्म आसात. चडशा चिनी लोकांचो जल्म मलेशियांत जाल्लो आसलो तरी तांणी आपली चिनी परंपरा तशीच बाळगून दवरल्या. भारतीय लोकांची लेगीत आपली स्वतंत्र समाजरचणूक आसा. मलेशियांतलें संस्कृतीक वेगळेंपण तांच्या घरांनीय दिश्टी पडटा. घराच्या बांदकामाचें सामान मुखेलपणान रानांतल्यान हाडटात. शारांनी आधुनिक पद्दतीचीं घरां आसात.

**भास आनी साहित्य :** 'मले' ही मलेशियाची राश्ट्रभास आसा. मलेशिया अस्तित्वांत आयिल्लें, तेन्ना इंग्लीश ही प्रशासनाची मुखेल भास आशिल्ली. पूण १९६७ सावन मले ही प्रशासनाची मुखेल भास

जाली. देशांत इंग्लीश, चिनी, अरबी, तमिळ आनी हेर भारतीय भाशाय उलयतात. हांगाचें चडशें साहित्य इंग्लिशींत आसा. पूण हालींच्या तेंपार सरकारान मले भास विकसीत जावची म्हूण खूब येवजणो आखल्यात. आता लघुकथा, कविता तशेंच चडशें राजकीय आनी सामाजिक साहित्य मले भाशेंतल्यान निर्माण जाता.

देशांत मले, इंग्लीश, चिनी, तमिळ आनी पंजाबी ह्या भाशांतल्यान वट्ट ४० दिसाळीं उजवाडाक येतात. तातूंतल्या चिनी भाशेंतल्या दिसाळयाचो खप सगळयांत चड आसा. हांचेखेरीज आठ आयतारांचीं खबरांपत्रां आनी २८ नेमाळीं उजवाडाक येतात.

स ते इकरा वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांक स वर्सांचें शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसा. शिक्षणाखातीर मले, इंग्लीश, चिनी आनी तमिळ भाशा माध्यमाचो वापर करतात. पूण १९८० सावन मुळावें आनी माध्यमिक शाळांतलें मले भास हें शिक्षणाचें मुखेल माध्यम आसा. तशेंच दुय्यम गरजेची भास म्हूण इंग्लिशीकूय म्हत्व आसा. सरकाराच्या वट्ट वर्सुकी अंदाजपत्रकांतलो २०% खर्च शिक्षणाचेर करता. हांगा मुळावें शिक्षण ६ वर्सांचें, माध्यमिक शिक्षण पांच वर्सांचें आनी उपरांत दोन वर्सांचो उच्च प्रमाणपत्र परिक्षेचो अभ्यासक्रम आसता. कनिश्ठ प्रमाणपत्र परीक्षेउपरांत विद्यार्थ्यांक तंत्रीक, वेवसायीक, शिक्षणिक आनी हेर प्रकारांचें शिक्षण घेवंक मेळटा.

क्वालालुंपूर, जॉर्जटाऊन, ईपो, जोहोर बार, शाह आलम, पेटलिंग हीं अस्तंत मलेशियांतलीं मुखेल शारां आसात. कोटा किनाबालू, संडकान, टाआऊ आनी कूडाट हीं साबा हांगाचीं मुखेल शारां आसात. कोटा किनबालू हें साबाचें राजधानी शार आसा. सारावाकाचें राजधानीचें शार कूचिंग आसून सिबू आनी मिरी हीं सारावाकांतलीं म्हत्वाचीं शारां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मल्लखांब :** एक व्यायाम तसो क्रिडा प्रकार. कुस्तींतलीं खाशेलीं तासां आत्मसात करपाखातीर मल्ल एका विशिश्ट लाकडी खांब्यार कसरतीचे वेगवेगळे प्रकार करता. ताका लागून ह्या व्यायाम प्रकाराकच मल्लखांब हें नांव पडलां आसुंये. महाराष्ट्रांत ह्या क्रिडा प्रकाराक खाशेली सुवात आसा.

हो प्रकार खूब पुर्विल्लो आसून मानसोल्लासात (सुमार ११२९) हाचो उल्लेख मेळटा. आर्विल्ल्या काळांत दुसऱ्या बाजीराव पेशव्याचो व्यायाम शिक्षक बाळंभट दादा देवधर हाणें हे विद्येक नवो आकार दिलो. कुस्तीकारांच्या आंगांत बळ, शिटुकसाण लवचीकपण, डावपेचांची चलाखी, आदी गुणांक उत्तेजन मेळचें ह्या हेतान बाळंभटदादान मल्लखांब्यांत वेगवेगळे कश्टांचे आनी उडयांचे प्रकार तयार केले.

मल्लखांब्याचे जायते प्रकार आसले तरी सादारणपणान मल्लखांब हो २ ते २ १/२ मीटर उंचायेचो, शिंशें वा सागवानी लाकडाचो आसून वयलेवटेन तो अशीर जायत वता. ताचें आंग, मान आनी बोंड अशे तीन भाग आसतात. **१) आंग:** मल्लखांब्याच्या मूळाक सावन मानेमेरेन अशीर जायत वचपी हो भाग. हाचो मूळचो घेर ५५ ते ६० सेंमी. मदलो ४५ सेंमी. आनी मानेलागसल्लो २५ ते ३० सेंमी. आसता. **२) मान :** मल्लखांब्याच्या आंगावयर १५ ते २० सेंमी. उंचायेचो जो बारीक, अशीर जायत गेल्लो सरळ भाग आसता ताका मान म्हण्टात. ताचो घेर १५ ते २०सेंमी. आसता. **३) बोंड :** मल्लखांब्याचो सगळयांत वयलोभाग जो वाटकुळो आसता ताका बोंड म्हण्टात. ताची उंचाय ५ ते ७ सेंमी. आनी घेर १० ते १५ सेंमी. आसता.

मल्लखांब्याची उंचाय जमनीवयर सावन २ ते २ १/२ मीटर आसता आनी जमनी पोंदा तो सुमार १ ते १ १/२ मी. पुरचो पडटा. हो खांबो गुळगुळीत उरचो देखून, तशेंच तो घट्ट धरूंक येवचो, निसरचो न्ही देखून एंडेल तेलाचो आनी राळेचो उपेग करतात.

मल्लखांब्याचे कसरतीचे मुखेलपणान १६ गट आसात. दर एका गटांत जायते उपप्रकार आसात.

**१) अढी :** मल्लखांब्याचे कसरतीचो हो मूळ प्रकार. मल्लखांब्याक वेगवेगळे तरेन धरून शरीर उरफाटें करून पोट मल्लखांबावटेन येता अशे तरेन दोनूय पायांनी मल्लखांब्याक विळखो घालप. हे क्रियेक अढी घालप अशें म्हण्टात. हे अढींतल्यान परत जमनीर उतरुपाचे अढीप्रमाण वेगवेगळे प्रकार आसात. अढ्यांचे वट्ट णव्वदां वयर प्रकार आसात. देखीक: सादी अढी, खांदा अढी, कानपकड अढी आदी. घोडो चलयतना पायान घोड्याक धरून दवरपाक ह्या प्रकाराचो उपेग जाता. ह्या प्रकारांत पायाचे स्नायू घट जातात.

**२) तेढी :** मल्लखांब वेगवेगळ्या तरांनी धरून शरीर उरफाटें करून मल्लखांब्याकडे फाट करून एके विशिश्ट पद्दतीन मल्लखांब्याक विळखो घालपाचे प्रक्रियेक तेढी घालप अशें म्हण्टात. तेढी उपरांत अढी घालून उपरांत मल्लखांब्यावयल्यान सकयल देवतात. ह्या प्रकारांत पोटांतले स्नायू, दंड आनी कुशी (काख) हांगाच्या स्नायूंक व्यायाम जाता. देखीक : सादी तेढी, बगलेची तेढी आनी एकहाती तेढी आदी.

३) **बगली :** मल्लखांब बगलेंत म्हळयार आदी काखेंत वेगवेगळया तरांनी धरून तेढी मारप हाका बगली म्हण्टात.

४) **दसरंग :** मल्लखांब्यावयल्यान उतरनासतना अढी, तेढी आनी बगली ह्या सारके प्रकार दोनय वटांनी उठून सतत करत रावप हाका दसरंग अशें म्हण्टात. दस्तरंग (दस्त म्हळयार कोपरामुखावयलो हात) शब्दाचो अपभ्रंश आसा. जे अढीचो वा तेढीचो दसरंग आसता तेप्रमाण ताचें नांव आसा. देखीक: सादो दसरंग, एकहाती दसरंग आदी.

५) **फिरकी** : मल्लखांब्याचेर दसरंग करता आसतना हाताची आनी पायाची पकड तशीच दवरून शरीर फिरोवन एकेवटेतल्यान दुसरे वटेन वचपाचे क्रियेक फिरकी म्हण्टात. फिरक्याचे जायते प्रकार आसात.

६) **सूयसूत** : सूयेंत सूत जेप्रमाण घालतात ते प्रमाण हातान मल्लखांब धरून दोन हातांमदल्या जाग्यांतल्यान पाय फुडें घालून पलटी मारून पाय काडून घेवप हाका सूयसूत फिरोवप अशें म्हण्टात.

७) **वेल** : मल्लखांब्याक हातान वा पायान खास तरेन धरून आनी ह्यो तरा बदलत ल्हव ल्हव वयर चडत वचप हे क्रियेक वेल अशें म्हण्टात. देखीक : साधीचो वेल, मुरडीचो वेल, नकीकसाचो वेल आदी.

८) **उतरती** : ही वेलाचे उरफाटे पद्धतीची हालचाल आसा. देखीक : सादी उतरती, बगलीची उतरती.

९) **झाप** : मल्लखांब्याच्या बोंडाचेर उबे रावन वा बसून पतंगी, वेगवेगळे फरारे अशा प्रकारांतल्यान मल्लखांब्यापसून पयस वचप आनी परत मल्लखांब अढीत धरप हाका झाप उडवप अशें म्हण्टात.

१०) **फरारे** : मल्लखांब्याचेर हातांनी वेगवेगळे तरेन धरून आनी पाय पयस घट्ट करून तोल सांबाळपाचे क्रियेक फरारे म्हण्टात. केन्ना केन्नाय मल्लखांब पायान धरून हात मेकळे सोडटात. देखीकः आकडी, गुरुपकड, बजरंग पकड आदी.

११) **आसना** : मल्लखांब्याच्या आंगापसून बोंडामेरेन वेगवेगळ्या प्रकारचीं आसनां वेगवेगळ्या प्रकारान करूं येतात. देखीक : पद्मासन, गरुडासन, धनुरासन, शीर्षासन, वृश्चिकासन आदी.

१२) **आरोहण - उडयो** : मल्लखांब्यासावन कांय अंतरामेरेन धांवन येवन वा मल्लखांब्याच्या शेजरा उबे रावन वा उडी मारून हातान धरून वा धरी नासतना पायान मल्लखांब अढीत वा तेढीत धरप हाका 'आरोहण-उडयो' अशें म्हण्टात. हातूंत घोडा अढी, घोडा तेढी, सुळकी अढी, गुलाट अढी आदींचो आस्पाव जाता.

१३) **उडयो** : मल्लखांब्यावयल्यान वेगवेगळे तरेन पयस उडयो मारून जमनीचेर देवपाचे क्रियेक उडयो अशें म्हण्टात. हातूंत वेगवेगळ्या कलाटींचो आस्पाव जाता.

१४) **ताजवे** : मल्लखांब्याच्या बोंडार पोट, फाट वा शरिराचो हेर भाग तेकोवन मल्लखांब हाता-पायान धरीनासतना शरीर तोलपाचे क्रियेक ताजवे (तागडी) अशें म्हण्टात. हातूंत पोटाचो ताजवो वा फाटीचो ताजवो हे प्रकार चड चालीत आसात.

१५) **सलाम्यो** : अढ्यांवरीच वेगवेगळ्या प्रकारान हातान मल्लखांब धरून, शरीर उरफाटें करून अढी मारनासतना परत जमनीर देवपाचे क्रियेक सलामी मारप अशें म्हण्टात. सलामीच्या धरपानुसार तांकां एकहाती, दुहाती, बगलीचीं अशीं नांवां आसात.

**१६)** ह्या प्रकारांत मल्लखांब्यावयल्यान देंवपाच्या रितींचो आस्पाव जाता. मल्लखांब्यावयल्यान वेगवेगळे प्रकार करतकच देवापाचेय जायते प्रकार आसात. तातूंत चडकरून अढीचे स्थितींतल्यान कलाटी, तशेंच वेगवेगळ्या आसनांतल्यान उडी आनी कलाट अशे प्रकार आसात.

मल्लखांब्याचे वट्ट बावीस प्रकार आसात. प्रचलित आशिल्ल्या साद्या वा स्थिर मल्लखांब्याभायर हेर मुखेल प्रकार अशेः

**वेताचो मल्लखांब** : शरिराचें लवचीकपण आनी संतुलन राखपाचे नदरेन वेताच्या मल्लखांब्याक खूब म्हत्व आसा. सुमार ३ ते ४मी. लांबायेचें लवचीक वेत लोखणाच्या हुकाक हुमकळायतात. हाचेर चडकरून आसनां आनी फरारे ह्या गटांतले प्रकार करप शक्य जातात. वेताजाग्यार मोठो दोर वापरूनय मल्लखांब कसरती करूंक मेळटा.

**हुमकळपी मल्लखांब** : १$^{1}/_{2}$ ते २मी. उंचायेचो ल्हान आकाराचो हो मल्लखांब पाख्यासावन दोरयेन हुमकळायिल्लो आसता. ह्या मल्लखांब्याचेर चडकरून कसाचे आनी शरीर बळग्याचे प्रकार करतात. हो मल्लखांब हुमकळायिल्लो आशिल्ल्यान तो स्वताभोंवतणी तेचपरी वाटकुळ्या फेऱ्यांतय फिरता आशिल्ल्यान खेळगड्याक खाशेलो कस हातासचो पडटा.

**निराधार मल्लखांब** : फकत १ ते १$^{1}/_{2}$ मी. उंचायेचो हो मल्लखांब मुळांत तिरपो कापिल्लो आसता. तो जमनींत पूरनासतना पाटार, वा बाटल्यांचेर दवरिल्ल्या स्टुलार (बाटलेचो मल्लखांब) दवरतात. हाचेर चडकरून आसनां आनी फरारे ह्या गटांतले प्रकार करप जातात. मल्लखांब्याक खंयचोच आदार नाशिल्ल्यान खेळगड्याक आपलो कस पणाक लावचो पडटा. श्वासनियंत्रण, शरीर संतुलन ह्या सारक्या व्यायामाची कुशळटाय साद्य जाता. हातूंत बाटलेवयले, पलित्याचे, हत्यारी मल्लखांब अशे हेर कांय प्रकार प्रचलीत असात.

**मल्लखांब्यावयले मनोरे** : ह्या प्रकारांत १० ते २० खेळगडे मल्लखांब्यार तशेंच जमनीर कमळ, देवूळ, मत्स्याकृती, गरुड, हेर आकृत्यो आदिचे मनोरे सादर करतात. ह्या मनोऱ्यांक सोबितकाये वांगडाच व्यायामाचे नदरेन खास म्हत्व आसा.

मल्लखांब्यावयले कसरतीक लागून मनशांत शरिरीक बळ, लवचीकपण, चपळकाय, तोल, साहस आदी गुणांक पोसवण मेळटा. शरिराचे स्नायू पिळदार आनी बळिश्ट जातात. तशेंच फाटीच्या कण्याकय व्यायाम मेळटा. यकृत, मूत्रपिंड, प्लीहा, आदी अवयवांची कार्यक्षमता वाडटा. कुस्तीवरीच जूडो, ॲथलेटिक्स, जिम्नेस्टिक्स, घोड्याची रपेट आदी खेळांतय हो व्यायमप्रकार उपेगी पडटा.

मल्लखांब्याच्यो आंतरशालेय, जिल्हो आनी राज्य पावंड्यावयल्यो सर्ती घेवप जातात. १९८०-८१ पसून मल्लखांब्याचे राश्ट्रीय संघटनेवतीन राश्ट्रीय पावंड्यावयल्यो सर्ती घेतात. ह्या खेळांत बरी कामगिरी करपी

खेळगड्याक महाराष्ट्र शासनाचेवतीन शिवछत्रपती पुरस्कार वा हेर इनामां दिवन भौमान करप जाता. तशेंच राश्ट्रीय क्रिडा विद्यापिठावतीन शिश्यवृत्त्योय दितात. मल्लखांब्याच्यो खंयच्याय पांवड्यावयल्यो सर्ती सादारणपणान कनिश्ठ, मध्यम आनी वरिश्ठ अशा तीन गटांत घेवप जातात. ह्या सर्तींनी दर एका खेळगड्याक मल्लखांब्याच्या १६ कसरती गटांत वेगवेगळे तरेन, सादारणपणान ९० सेकंदांच्या काळांत आपली कुशळकाय दाखोवपाची आसता.

भारतांत महाराष्ट्र, आंध्र प्रदेश, कर्नाटक, गुजरात, बिहार, पंजाब, उत्तर प्रदेश, तमिळनाडू आदी राज्यांत मल्लखांब खेळटात. महाराष्ट्रांत, पुणें, मुंबय, नासिक, अहमदनगर, अमरावती, मिरज, नागपूर हांगा मल्लखांब्याचो नेमान सराव जाता. हांगाच्यो व्यायामशाळा मल्लखांब्याच्यो सर्तीय आयोजित करतात. अमरावतीच्या हनुमान व्यायाम प्रसारक मंडळ, तशेंच पुण्याचें महाराष्ट्रीय मंडळ हांणी परदेशांतय मल्लखांब्याची नामना पावोवपाक मोलादीक वावर केला. अस्तंत जर्मनींत कोलोन हांगा क्रीडा विद्यापिठांत मल्लखांब्याचो सराव आनी संशोधन कार्य चालू आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मल्लदेश :** उत्तर भारतांतलो एक पुर्विल्लो देश. पुर्विल्ल्या ग्रंथांच्या विंगड विंगड उल्लेखांवयल्यान मल्ल वा मल्ली लोक, उदेंतेक आनी अस्तंतेक आसुये अशें दिसता.

हो देश म्हळयार पंजाबांतलो मुलतान जिल्हो, म्हणजेच विद्यमान पाकिस्तानांत आसुये अशें महाभारतांतल्या उल्लेखांवयल्यान दिसता. लक्ष्मणाचो पूत चंद्रकेतू हाका रामान, हें राज्य दिल्ल्याचो उल्लेख रामायणांत मेळटा. पयलींच्या काळांत ह्या प्रदेशाक 'मालव' ह्या नांवान वळखताले. महाभारतांतले मालव लोक आनी अलेक्झांडरच्या इतिहासकारांनी वर्णन केल्ले 'मल्ली' लोक हे एकूच आसून ते ह्याच देशांतले आसुये, अशें दिसता. कनिंगहॅम हाच्या मतान ह्या देशाची राजधानी मूलस्थानपूर (मुलतान) आशिल्ली. हांगाच भगवान विष्णुन नृसिंहावतार घेवन प्रल्हादाच्या बापायक, हिरण्यकश्यपूक मारिल्लो अशी कथा आसा.

पुराणांताल्या कांय उल्लेखांवयल्यान बिहार राज्यांतल्या हजारीबाग आनी मानभूम-पुरुलिया (अस्तंत बंगाल) जिल्ह्यांचो प्रदेश म्हळयारूच पुर्विल्लो मल्ल देश आसुये, अशें दिसता. जैन तीर्थस्थान आशिल्ले पारसनाथाचे दोंगुल्लेचो मल्ल देशांत आस्पाव जातालो. हाचेवयल्यान पारसनाथ दोंगुल्लेक मल्ल पर्वत अशेंय म्हण्टात. बौध्द ग्रंथांतल्या उल्लेखांवयल्यान बुध्दाच्या काळांत मल्ल लोकांची वसती पावा आनी कुशिनारा सद्याचें कसिया हांगा आशिल्ल्याची दिसून येता. बौध्दांच्या पयलींच्या काळांत मल्ल जनपद आशिल्लें आनी ताची कुशावती म्हळयार कुशिनारा ही राजधानी आशिल्ली. तिका अनिरुध्दव अशेंय म्हण्टाले. सद्या उत्तर प्रदेश राज्यांतल्या गोरखपूर जिल्ह्यांत कसिया गांवालागसार ही सुवात आसा. थंयच्या उत्खननांत राजवाड्याचे अवशेश मेळयात. तशेंच हे राजवाडे मल्ल राजांचे वा सरदारांचे आसुये अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मल्लपुराण :** मल्लविद्येवयलो एक ग्रंथ. ह्या ग्रंथाचो काळ वा लेखकाविशीं कांयच म्हायती मेळना. पूण इ.स. १६७४ त ह्या ग्रंथाची नक्कल केल्या असो उल्लेख मेळटा. ह्या ग्रंथांत णव प्रकरणां आनी सुमार ४३७ श्लोक आसात.

पयल्या प्रकरणाचें नांव कृष्णपुरप्रवेशोत्सव अशें आसा. कृष्णान सोमेश्वराक मल्लविद्या सांगली अशें तातूंत म्हळां.

दुसऱ्या प्रकरणाचें नांव सोमेश्वरकृष्णप्रश्न अशें आसा. तातूंत मल्लविद्येची व्हडविकाय सांगल्या. मल्लविद्येच्या अभ्यासान आंगाची शुध्दी, सत्त्वशुध्दी आनी बलवृध्दी मेळटा अशें सांगलां.

तिसऱ्या प्रकरणाचें नांव चतुःपात्रप्रकरण अशें आसा. तातूंत मल्लांचे प्रकार सांगल्यात ते अशे-ज्येष्ठी हो सगळयांत श्रेश्ठ असो मल्ल आसून, ताच्या आंगांत चौसश्ट गूण आसतात. अंतरजेष्ठी हो मध्यम मल्ल आसून, ताच्या आंगांत तीस गूण आसतात. हांच्या फाटल्यान गोपकुल आनी भविष्य हे मल्ल येतात.

चवथ्या प्रकरणाचें नांव पंचांगमल्ललक्षण अशें आसा. ह्या प्रकरणांत मल्लांच्या विंगड विंगड अवयवांचो विचार आयला. हातूंत उत्तमांगांचीं बत्तीस आनी अधमांगांचीं सोळा लक्षणां सांगल्यांत. तशेंच अस्थिसार, मांससार, मेदसार, अस्थिभेदसार आनी अस्थिमांससार अशें मल्लांच्या पांच भेदांचें वर्णन हातूंत केलां.

पांचव्या प्रकरणाचें नांव गजसिंहमृगवृषभमल्लस्वरूप अशें आसा. ह्या प्रकरणांत मल्लाच्या शरिराच्या बांध्यावयल्यान तांचे गजवर्ग शींववर्ग, वृषभवर्ग आनी मृगवर्ग अशे चार भेद वर्णिल्यात.

सव्या प्रकरणांत आखाड्याचें वर्णन आसा. आखाड्याचे देवमान, दैत्यमान आनी मर्त्यमान अशे तीन प्रकार आसात. देवमान आखाड्याची लांबाय-रुंदाय दर एकी २०१हात, दैत्यमान आखाड्याची ५०हात आनी मर्त्यमानाची २१हात आसची अशें सांगलां. धवे मातयेच्या आखाड्याक ब्राह्मणीभुमिका, हळदुवे मातयेच्या आखाड्याक क्षत्रियभुमिका आनी काळे मातयेच्या आखाड्याक शूद्रीभुमिका अशीं नांवां दिल्यांत. उपरांत मल्लाची दिसावळ दिल्या ती अशी-सकाळीं उठून न्हावन-धुवन संध्या करून, मल्लान आखाड्यांत वचून व्यायाम करचो. व्यायाम करचेपयलीं

आखाड्याची अधिश्ठात्री देवता कृष्ण हिका नमस्कार करतकच वासुकीचें ध्यान करचें. चोर, रोगी आनी बायल मनशेहुजीर व्यायाम करचो न्हय.

सातव्या अंगघाट ह्या प्रकरणांत विंगड विंगड मल्लांचे अवयव कशे आसचे तें सांगलां. गजवर्गांतले मल्ल उन्नतांग आनी समपाद, शींववर्गांतले मल्ल लिनांग आनी उन्नतपाद, वृषभवर्गांतले समांग आनी विषमपाद आनी मृग वर्गांतले वलांग आनी चलत्पाद आसचे, अशें म्हळां. उपरांत कुस्तींतल्या विंगड विंगड प्रहारांचे हातूंत उल्लेख आयल्यात.

आठवें प्रकरण चतुर्मल्लश्रमलक्षण. ह्या प्रकरणांत चवदा प्रकारचे लाग, शरिरांतलीं जयस्थानां आनी आसनां वर्णिल्यांत. उपरांत मल्लाचो आहार-विहार कसो आसचो तें सांगलां.

णव्या प्रकरणांत, खंयच्या ऋतूंत कितलो व्यायाम करचो हेविशीं म्हायती आयल्या. सादारणपणान शिंयाच्या दिसांनी चड, गिमाच्या दिसांनी बेताचो आनी पावसाच्या दिसांनी कमी व्यायाम करचो अशें सांगलां. तशेंच थंड उदकान न्हावप आनी अंगमर्दन करप मल्लाखातीर बरें अशें म्हळां. मल्लान पुश्टीक आहार घेवचो आनी पाचक पदार्थ खावचे, तशेंच ऋतुमानाप्रमाण योग्य ते पदार्थ खावचे अशेंय मल्लपुराणांत सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**मल्लव :** एक लिंगायत जात. बेळगांव, धारवाड आनी कानडा ह्या जिल्ह्यांनी मल्लव लोकांची वसती चड आसा. मलनाड म्हळयार दोंगराळ वाठार ह्या शब्दावयल्यान मल्लव हो शब्द आयला. मल्लव लोक स्वताक वीरशैव क्षत्रिय मानतात. मल्लव लोकांचे पूर्वज सोंदे, बिलगी आनी इक्केरी हे ह्या गांवांचे मुखेल आशिल्ले. मल्लव लोक मुळांत जैन आशिल्ले आनी इ.स.च्या १४व्या तशेंच १५व्या शेंकड्यांत ते लिंगायत जाले, अशें म्हण्टात.

मस्किन, नीर, बलसाड, कोडग वा कूर्ग आनी बंडी वा गौडी संतान अशे मल्लवांचे पांच पोटभेद आसात. मस्किन मल्लव बायलो तोंडाचेर बुरखो घेतात. तशेंच त्यो उदकाचे कळशे तकलेर दवरीनासतना कमरेर दवरून व्हरतात. माथ्यार दवरून व्हेल्यार तांकां जाती भायर घालतात. नीर मल्लव लोक उदक हाडटना कपड्यान तोंडां धांपतात. चडशा मल्लवांकडे शेतजमनी आसतात. ते भात, ऊंस आनी सुपारीचें पीक काडटात. कांय लोक वेपार करतात.

मल्लव लोकांत नंदी, स्कंद, वीर, भृंगी आनी वृष अशीं गोत्रां आसात. हे लोक बसव, गुड्ड, गुट्टी, ईश्वर ह्या देवतांक भजतात. एकेच देवतेक भजपी कुटुंबांत लग्नां जायनात. जंगम वा ब्राह्मण तांचें पुरोयतपण करता. भूतप, हुलिअप, विरूप ह्यो तांच्यो क्षेत्रदेवता आसात. पाशाणाच्या स्वरुपांत ते तांची पुजा करतात. दर वर्सा तांकां तांदूळ, केळीं, शीत, बोकडो दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**मल्लविद्या :** (पळेयात कुस्ती).

**मल्लिकार्जुन संस्थान, काणकोण :** गोंयचें एक नामनेचें देवस्थान. गोंयचे दक्षिणेकडल्या काणकोण तालुक्यांतल्या श्रीस्थळ गांवांत हें देवस्थान आसा. 'श्री मल्लिकार्जुन देव अडवट सिंहासनाधीश्वर महापती, काणकोण' अशी ताची बिरुदावली आसा.

आदल्या तेंपार कुमेरी पद्दतीचें शेतकाम करपाखातीर रान शिनतना वेळीप समाजाक श्रीस्थळाच्या रानांत शिवाचें लिंग मेळ्ळें. तोच मल्लिकार्जुन देव अशें सांगतात. दर वर्सा आषाढी पुनवेक, परबेदिसा देवाक कर्मलेच्या पानांचेर उकड्या तांदळांचो निवेद्य दाखयतात. तशेंच दर वर्सा फाल्गुन वद्य चवथीसावन सादारणपणान वैशाख उमाशेमेरेन कोंबड्या-बोकड्याची शेंस जातामेरेन ह्या देवस्थानांत भटाचे सुवातीर वेळीप आसता. तोच देवाची पुजा करता. हाचेवयल्यान वेळीप समाजाक हो देव मेळ्ळो म्हणपाक पुश्टी मेळटा.

कर्नाटकांतल्या शृंगारपट्टण वा श्रीरंगपट्टणांतल्यान मल्लिकार्जुन काणकोणांत आयलो अशें काय इतिहासकारांचें मत आसा. देवाच्या झुल्यांत 'शृंगारपट्टणा तुज पूर्वा ठाया' अशें वाक्य आसा. पूण इतिहास संशोधक प्रा. स. श. देसाई हाच्या मतान शृंगारपट्टण म्हळयार शृंगारपूर, म्हणजेच आयचें रत्नागिरी जिल्ह्यांतलें संगमेश्वर.

मत्स्य शिवपुराणांतल्या 'सौराष्ट्रे सोमनाथंच श्रीशैले मल्लिकार्जुनम।।' ह्या श्लोकावयल्यान भारत देशांत जीं बारा ज्योतिर्लिंगां आसात, तांतुतलें एक लिंग म्हळयार श्री शैल पर्वतावयलें मल्लिकार्जुन लिंग अशें समजतात. त्या देवस्थानचे स्थापनेचो इतिहास आनी काणकोणच्या मल्लिकार्जुनाचे स्थापनेचो इतिहास हातूंत कांय गजालींनी सारकेंपण दिसता. देखीकः मल्लिकार्जुन (मल्लिका + अर्जुन फुलांची माळ घाल्लो) हें नांव, क्रौंच हें पर्वताचें नांव (श्रीस्थळाक कौंचेदक्षेत्र म्हण्टात) आनी थंयची चेंचू जमात आनी हांगाचो वेळीप समाज.

श्रीस्थळ काणकोणच्या मल्लिकार्जुनाच्या देवळासारकींच आनीक तीन देवळां काणकोणांत आसात. तीं म्हळयार श्रीस्थळ-गांवडोंगरी, अवें-खोतीगांव आनी कुसकें-खोतीगांव.

काणकोणच्या वेळीप समाजाक मल्लिकार्जुनाचें लिंग सांपडलें, तरी देवस्थानाची स्थापना काणकोण, नगर्से-पाळोळेच्या ग्रामसंस्थाच्या

(कोमुनिदाद) आद्य संस्थापकाकडल्यानूच जाल्या जावंक जाय अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

आदल्या तेंपार हांगा वसती करून आशिल्ल्या शैवपंथी हब्बू जमातीक तांच्या आडांगीपणाकलागून क्षत्रीय मराठा समाजाच्या काशीपुरुषाच्या फुडाकारान 'म्हाली' आनी ताच्या सांगात्यांनी मारून उडयले आनी तेन्नासावन काशीपुरुष हांगाचो 'राजा' जालो. 'हब्बस्तान मोडून शिवस्तान जोडलें' ही अवतार पुरसांच्या तोंडातलीं उतरां हब्बूंचो नाश आनी मल्लिकार्जुनाची स्थापना हे गजालीक पुश्टी दितात.

मल्लिकार्जुन देवस्थानाचे स्थापनेची निश्चीत तारीख मेळना, तरी ताच्या जिर्णोध्दाराची सुरवात शके १७०० वर्सा म्हळयार इ.स. १७७८ वर्सा विलंबी सवत्सरांत जल्ल्याचो उल्लेख देवळाच्या घुडांत बसयिल्ल्या फातरपट्याचेर मेळटा.

देवळांत मल्लिकार्जुन देवावांगडाच श्रीगणपती, नंदिकेश्वर आनी भागीलपायक हीं दैवतां आसात. तशेंच ह्या देवाची परिवार दैवतां म्हूण साठ (कांय जाणांच्या मतान अडसश्ट) ल्हान- व्हड देव वाठारांत असात. देखून ह्या वाठाराक 'साठ पुरव' म्हण्टात. हातुंतल्या कांय दैवतांचीं नांवां अशीं : श्री कुळकेश्वर, निरंकार, भोमपुरीस, रामचंद्र पुरीस, बालीजाण, परशुराम, पार्वती, जाणा देव, पांचा पुरीस, कूळ पुरीस, प्रभावळ, रामनाथ, म्हालये देव, तोन्नी पायक, बागरो, जल्मी, म्हारांगण, घोड्यां पायक, सासणयो.

खालवडें, किंदळें आनी नगर्शें हांगां निरंकाराचे मठ आसात. खालवाड्यांत गस्तार, सोमनाथ आनी परिवार दैवतां आसात. किंदळयांत आदिनाथाचो मठ आसा, जाल्यार आगोंद गांवांत 'आगोंदो' आसा. तशेंच थंय भोमपुरीस, निरंकार आनी जल्मी आसात. श्रीस्थळालागीं आसाळींत कारेपायकाचें देवूळ आसा. देवस्थानाचो एक म्हत्वाचो घटक म्हळयार वांगडी. परंपरा, धर्मीक, दैवीक विधी आनी अंतर्गत अनुशासनाचे नदरेन हो घटक म्हत्वाचो जाल्ल्यान तांची हजेरी अशा वेळार गरजेची आसता. तांकां 'भावपूतभाव' ह्या नांवानय वळखतात. वांगड्यांची मूळ संख्या धा आसा आनी तांचीं नांवां अशीं आसात- म्हाल वांगड, उत्तर नायक वांगड, मूळ नायक वांगड, मूक नायक वांगड केशिया वांगड, आलबा नायक वांगड, मदनिया वांगड, झुलपानायक वांगड, तेल्या वांगड, नागफळ वांगड.

देवस्थानाचे नेमावळीप्रमाण किंदळेकार आनी नगर्सेकार अशा दोन भावक्याचे देसाई-गांवकार हे ह्या देवस्थानाचे म्हाजन. म्हाजनांमदल्या दर एकल्याक समान अधिकार आसतात आनी सारक्योच जापसालदारक्यो तांचेर आसतात. म्हाजनकेचो हो अधिकार वंशपरंपरेन मेळिल्लो आसा. काणकोण तालुक्याप्रमाण कारवार जिल्ह्यांतय ह्या देवस्थानाचे म्हाजन व्हड संख्येन आसात.

देवळांत अभिशेक, लघुरुद्र, म्हारुद्र, रंगपुजा, ह्या देवी-धर्मीक विधी वांगडाच दर सोमाराक सादी लाकडी पालखी आनी उत्सवादिसांनी, रुप्याची पालखी तशेंच संवसार पाडवो, वसंत पुजा, जागर, कोंबड्या-बोकड्यांची शेंस, आसडी परब, भजनी सप्ताह, श्रावणी सोमार, गोकुळाश्टम, नव्यांची परब, बाराजण जागोवप, सुतां पुनव, नवरात, दसरो, हरजागर, तुळशीचें लग्न, कार्तिक पुनव (आंवाळे जेवण, आंवळेर पालखी, दीपराधना, रातकालो, दीसकालो, धंयकालो), म्हालजे पुनव (अवतार पुरसाचो पयलो अवतार), रथ सप्तम, शिवरात, एका वर्साआड हिरामेळ, शिगम्याची जात्रा (दिवजां), भोंवर, गुलाल, सुवारी, शेलची भोवर, एक वर्सा आड शिशांरान्नी आदी दैवीक-धर्मीक विधी, परबो, उत्सव जात्रा ह्या देवस्थानांत जातात.

हातुंतली सगळयांत म्हत्वाची जात्रा म्हळयार शिगम्याची जात्रा आनी चडकरून शिशांरान्नी वर्साची शिगम्याची जात्रा. तीन तकल्यांची चूल करून तिचेर तांदूळ शिजोवपाचो आनी भगताक खरवत दिवपाचो शिशांरान्नीचो हो विधी एक वर्साआड एक फावट जाता. ह्या दिसाचो अवतार हो त्या वर्साचो निमणो अवतार आनी निमाणो 'कोवूल' (कौल). तेचपरी ह्या अवताराक तोक्याचो भार आनी ताचो 'कोवूल' आसता.

शिशांरान्नी प्रमाण एक वर्साआड एक फावट फाल्गुन शुध्द १२चे रातीं इकरा वरांचेर शिरवाडो-नगर्सें आनी भक्तांमठ नगर्से हांगा, तेचपरी कांय फावट देवाबाग नगर्सें आनी शिरवाडो-नगर्से हांगा हिरामेळ (व्हीरांमेळ) जाता. ह्या शिशांरान्नीचो आनी हिरामेळाचो पुराय विधी ज्या अवतार पुरसाक लागून आसा, ताच्यो आसाळी, खालवडें आनी भाटपाल अशा तीन सुवातींनी घरवयो आसात. अवतार पुरसाचे वट्ट स खांब आसतात. तातूंतले तीन मूर्तींचे (व्हडले खांब) जाल्यार तीन कळसांचे (धाकले खांब) आसतात. पौष शुध्द पुनवेसावन फाल्गुन वद्य सश्टीमेरेन वट्ट बारा सुवातींनी (कारवार ५, काणकोण७) ताचे बारा अवतार जातात. ह्या वेळार व्हडले खांब/खांबेली (अवतार पुरीस) जमिल्ल्यांक 'कोवुल' दितात. परंपरेन म्हाळशी कुटुंबाकडेन हो कोवूल दिवपाचो मान आनी अधिकार आसा. जाल्यार तोको घेवपाचो आनी ताचो कोवूल दिवपाचो मान आनी अधिकार गुळे गांवच्या वेळीप समाजाकडे आसा. अवतार पुरसाची पुजा करपाचो आनी अवतारावेळार अवतार पुरसाक तांदूळ मारून तरसाद वावुडपाचो मान आनी अधिकार परंपरेन भगताक मेळिल्लो आसा.

देवस्थानाचो प्रशासकीय कारभार म्हाजनांनी वेंचून काडिल्ली वावुरपी समिती पळयता. देवस्थानाचे देवीक धर्मीक विधी नेमान त्या त्या वेळार चालू करपाखातीर वांगडी थारावन दिल्ले आसात. वांगडाच देवस्थानाचो वर्सभराचो सगळो वावर वेळार आनी शिस्तीन फुडें व्हरपाखातीर देवस्थानान नेमावळीक धरून सेवक वर्ग नेमिल्लो आसा. तो सेवकवर्ग असो- अभिषेकी, पुराणिक, गुरव, हरदास/किर्तनी, वेळीप (म्हालां वेळीप, वैजावाडकार

वेळीप, आसाळकार वेळीप, गुळेकार वेळीप) भगत, दरवट्याच्या भाराच्या संदर्भांत मोखर्डावयलो शिवराम, व्यंकटेश प्रभूचें घराणें, म्हाळशी, काटकार, वाजंत्री, मृदंग, ताळवालो, कलवतां, हिलामतकार, काळयो, घोंसाय (जोगी), मेस्त, मेत्री, म्हालो, तारयो, म्हार (परवार), कुंवार, गुळेकार. परंपरेन चलत आयिल्ल्या ह्या सेवेकऱ्यांचीं नांवां पळेल्यार गांवचें देवस्थान म्हणजे गांवच्या समेस्त पंगडाच्या एकचाराचें आनी सहकाराचें एक प्रतिकात्मक ठिकाण आशिल्लें हें दिसून येता.

- कमलाकार द. म्हाळशी

**पूरक नोंद ः काणकोण.**

## मल्लिनाथ ः (इ.स.चो १४वो वा १५वो शेंकडो).

संस्कृत भाशेंतलो एक नामनेचो टिकाकार. ताचें पुराय नांव कोलाचल मल्लिनाथ अशें आशिल्लें. आंध्रांत ताका 'पेडुभट्ट' ह्या नांवानूय वळखतात. ताका महोपाध्याय ही पदवी मेळ्ळया.

काव्यशास्त्र, अलंकार, व्याकरण, ज्योतिश, स्मृती आनी षड्दर्शनां हातूंत तो फिशाल आशिल्लो. व्याकरण, व्युत्पत्ती आनी अर्थविवेचन हे नदरेन ताच्यो टिका चड तोखणायेच्यो आसात.

'नामूलं लिख्यते किञ्चित् नानपेक्षितमुच्यते = आदाराबगर वा गरज नारातना बरोवचें न्हय अशे प्रतिज्ञेन मल्लिनाथान आपल्यो टीका बरयल्यात. काव्याचें मर्म उक्तायतना साहित्यशास्त्र, व्याकरण, आनुषांगिक शास्त्रां आनी वेद-पुराणांचें वाङमय, हांचे अचूक संदर्भ ताणें दिल्यात. चतुरस्त्र अध्ययना वांगडा काव्यज्ञाची रसिकताय लेगीत ताचेकडे आशिल्ली.

मल्लिनाथान रघुवंश, कुमारसंभव (पयले आठ सर्ग), मेघदूत, भट्टिकाव्य, किरातार्जुनीय, शिशुपालवध, नैषधचरित, अमरकोश, वरदराजाचें तार्किकरक्षा आनी विद्याधराचें एकावलि ह्या ग्रंथांचेर ताणें बरयल्ल्यो टिका उल्लेख करपासारक्यो आसात. ताचो पूत कुमारस्वामी हाणेंय विद्यानाथाच्या 'प्रतापरुद्रयशोभूषण' ह्या काव्यशास्त्र ग्रंथाचेर 'रत्नप्रभा' नांवाची उत्कृश्ट टिका बरयल्या.

मल्लिनाथान रघुवंशावयल्या 'संजीवनी' नांवाचे आपले टिकेंत शंभरापरस चड ग्रंथांचो आनी ग्रंथकारांचो उल्लेख वा अवतरणां दिल्यांत. तातूंत अमर-वैजयंती भशेन कोश, अलंकारशास्त्र, दंडनीत, राजनीत, कायदो, ज्योतिश, संगीतशास्त्र, कामशास्त्र, गजशास्त्र, विंगड विंगड पुराणां, स्मृती, धर्मशास्त्र, विंगड विंगड दर्शनां ह्या विशयांवयले ग्रंथ उल्लेखित आसात.

मल्लिनाथ टिकाकार म्हूण खूब नावाजलो आनी फुडें मल्लिनाथी हो शब्द टिका ह्या अर्थान वापरूंक लागले.

- कों. वि. सं. मं.

## मविलन ः केरळ राज्यांतली एक आदिम जमात. ह्या लोकांची वसती चडकरून मलबारांतल्या चिरक्कल तालुक्यांत तशेंच कननोर जिल्ह्यांतल्या कननोर आनी तालिपरंब तालुक्यांत आसा.

हे लोक अपभ्रंश तुळू भास उलयतात. ते धाडशी आनी राकट आंगाचे आसून तांच्यो भुवयो दाट, कुरळे केस, मात्शे दोडिल्ले ओंठ, चेपटें नाक आनी गडद पुडी कोराचो वर्ण अशे आसतात. मविलन दादले-बायलो दोगांय अर्द उगडीं आसतात. मविलथी म्हळयार मविलन बायलांक तशेंच दादल्यांक आभुशणांची खूब आवड आसा. बायलो चडकरून कानांत, नाकात अलंकार घालतात. कानांतल्या अलंकारांक थोडा म्हण्टात. दादले तकलेर माडयांच्या सालींपसून तयार केल्यो तोपयो घालतात.

हे लोक पुराय मांसाहारी आसून, गाय, बैल, रेडो हांचें सोडून हेर जनावरांचें मांस खातात. ते आठ ते धा झोपड्यांची वसती करून रानांनी रावतात. कोंडे आनी रुखांच्या खांदयांपसून तयार केल्ल्यो आपल्यो झोपड्यो उदेंतेवटेन तोंड करून बांदतात. झोपडेचें पाखें तणाचें वा पानांचें आसता. तांच्या ह्या झोपड्यांक 'मापूर' वा 'चित्तरी' म्हण्टात. झोपड्यांनी ते कोंड्यापसून तयार केल्ल्यो शेंदऱ्यो वापरतात. पयलीं ते अन्न मेळोवपापसत सेगीत भोंवत रावताले, पूण हालीं ते स्थीर वसती करून रावतात.

मविलन जमातींत दोन मुखेल पंगड आसात- १) तुलूमार वा तुलुमन, हे तुलू राज्यांतले पुर्विल्ले तुलूमविलन वा एड-मविलन लोक आनी २) चिंगत्तान. तशोच तांच्यो ३० पोट जमाती आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

हे लोक जडप्राणवादी आसून ते हिंदू धर्मांतल्या देव-देवतांची पुजा करतात. ते चडकरून चट्टियूर भगवती देवीक भजतात.

भुरगीं वयांत येतकच तांचीं लग्नां करतात. व्हंकलेच्या घरा लग्नसुवाळो जाता. ऐपतीप्रमाण वधूमूल्य दिवापची तांच्यांत चाल आसा. पित्तृसत्ताक अशे हे जमातींत एका परस चड बायलो करपाचीय चाल आसा. भुरगें जल्मतकच तीन म्हयन्यांनी ताचे कान तोपून बारसो करतात.

ह्या लोकांत मेल्ल्या मनशाक, न्हाणोवन नव्या वस्त्रांत गुठलायतात, ताच्या तोंडांत शीताची उंडी दवरून दक्षिणेकडे तोंड करून मडें पुरतात. मेल्ल्या मनशाचो पूत, ताचे सगळे निमणे संस्कार करता. पूत नासत जाल्यार हें काम पुतणयो करता. भश्टकारांत आशिल्ली बायल मरत जाल्यार तिचे सगळे निमणे विधी बायल मनीसूच करता. दादले, अशे बायलेच्या मड्याक आफुडनात, तांकां भुताखेतांचो भंय दिसता. मेल्ल्या मनशाचें थडगें वसतीचे उदेंतेक केन्नाच बांदिनात. कांय लोक सात दीस जाल्यार कांय लोक पंदरा दीस सुतक पाळटात. सुतकाच्या निमाण्या दिसा सगळयांक जेवण घालून मेल्ल्याक नेवेद्य दाखयतात.

शिकार आनी रानांतली वखदी वनस्पत एकठांय करून विकप हो तांचो मुखेल वेवसाय. तशेंच म्होंव, मुळां, फळां एकठांय करून विकप, लाकडां कापून जळोव विकप हेय तांचे वेवसाय आसात. कांय मविलन बुरुडकाम आनी शेतकाम करतात. कांय जाण रानखात्यांत हत्ती सांबाळपी माहूत म्हूणनय काम करतात.

मविलन लोकांत पंचायत आसता. पंचायत मुखेल्याक चिंगन म्हळयार शींव म्हण्टात. ताचे बायलेक चिंगथी म्हण्टात. सगळया कार्यावळींनी चिंगन आनी चिंगथी हिका मानाची सुवात आसता. ह्या लोकांक लोकगीतां आनी लोकानाचाची खूब आवड आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मशीद :** मुसलमान लोकांचें, सामुदायीक रितीन देवाची (अल्ला) प्रार्थना (नामाज) करपाचें मुखेल केंद्र. समाजीक, संस्कृतीक आनी राजकारणाक लागून मुस्लिम राजा आनी प्रजा हांगा एकठांय येताली, अशे इतिहासीक पुरावे सांपडल्यात.

मशीद हो 'मस्जिद' ह्या मुळाव्या अरबी शब्दावयल्यान आयला. मस्जिद मळयार सजदा करपाची सुवात. मुसलमान लोक कपल आनी धोपरां तेकोवन अल्लाक प्रणाम करतात, ताका सजदा अशें म्हण्टात. फारशी, उर्दू आनी तुर्की भाशेंतूय मस्जिद शब्दाचो उल्लेख मेळटा. 'अरमायक' भाशेंत मस्जिद शब्दाचो उल्लेख 'नाबाटेयन' आनी 'ॲबिसिनीयन' ह्या पवित्र थळांकडेन केला.

कुराणांत मशीद शब्दाचो उल्लेख साबार खेपो आयला. मुसलमान लोक एकठांय येवन देवाची (अल्लाची) भक्ती करता अशी पवित्र सुवात. अल्लाची भक्ती करचेखातीर अमुकूच तरेची इमारत आसूंक जाय अशें कुराणांत खंयच सांगूक ना. सुरवेक मुसलमानाचें प्रार्थनास्थळ सादें व्हडिल्लें आसतालें. देखीक- मॅक्का हांगाचें 'मस्जिद', अलहेरम वा जेरूसालॅम हांगाचें 'मस्जिद' अल्-अक्सा. 'पुराय संवसार अल्लान म्हाका मशीद म्हूण दिल्लो आसा' अशें पैगंबराचें सांगणें आसा. हाचो अर्थ 'नमाज म्हणच्या वेळार आपूण खंय आसा थंयच वा तें स्थळ हेंच आपलें मशीद'. दिसांतल्यान पांच खेपो प्रार्थना करप आनी दर एका शुक्रारा (जुम्मा) समुदायीक रितीन नमाज वाचप हें जण एका मुसलमानाचें धर्मीक कर्तव्य आशिल्ल्यान इस्लाम धर्मांत पवित्र प्रार्थनास्थळ म्हूण मशीद (अमुकूच आकाराची इमारत) आसप ही परंपरा चालींत आयली. गांवच्या वाठारांत आशिल्ले मुखेल मशिदीक जंय चडकरून शुक्रारा (जुम्मा) प्रार्थना करचेखातीर व्हडा संख्येन मुसलमान लोक एकठांय जातात, तिका जामी मशीद अशें म्हण्टात आनी मुसलमान लोक दिसांतल्यान पांच खेपो आपले थळावे सुवातेर प्रार्थना करतात ताका मशीद अशें म्हण्टात (मॅक्का, मदिना आनी जेरुसलॅम मशिदी सोडून). मॅक्का, मदिना आनी जेरुसलॅम मशिदींनी आपले परंपरीक कुराणांत उच्चारिल्लें 'मशीद' हें नांव तशेंच दवरलां. बक्रईद, रमजान आनी हेर सणांच्या वेळार मुसलमान लोक सामुदायिक प्रार्थना करचेखातीर ह्या मशिदींक भेट दितात.

तेराव्या शेंकड्यांत विधिवेत्ता इब्न तायमीयाँ हाणें मशीद शब्दाची व्याख्या अशी केल्या- 'मुसलमान लोकांचो सामुदायिक रितीन प्रार्थना करपाचो आनी भौशिक घडामोडिंचो जागो'. सादारणपणान मशीद ही एक मुसलमान भाविकांक एकठांय येवन प्रार्थना आनी हेर कार्यांखातीर व्हड आवांठ आशिल्ली इमारत. काळा उपरांत आनी देशादेशांनी मशिदीचे वास्तुशैलींत बदल जायत गेले. पूण मशिदीचो म्हत्वाचो आकार तसोच उरलो. जगांतले खंयचेय मशिदीची फाट 'मॅक्का' वटेन आसची पडटा. हाचो मुखेल हेत म्हळयार कुराणांत सांगिल्ले प्रमाण मशिदींत प्रार्थना करतना मॅक्का हांगाचे पवित्र मशिदीक (मस्जिजत अल-हरम) भाविकांचें तोंड आसचें पडटा. सहनांत प्रार्थना करतना गरीब-गिरेस्त हांचो कसलोच भेदभाव थंय करिनात. इमाम काबाचे दिकेन तोंड करून नमाज म्हण्टा आनी बाकिचे लोक ताच्या फाटल्यान रावन ताच्या कृतींचें अनुकरण करतात. बायलांनी घरांतूच नमाज वाचचें अशें ते मानतात. त्यो खाशेल्या अशा मशिदींत वचूंक शकतात, पूण तांणी नमाज म्हण्टना बायलांखातीर आशिल्ल्या खाशेल्या जाग्याचो उपेग करचो पडटा. इस्लामांभितर आशिल्ल्या वेगळया वेगळया पंथांच्यो वेगळयो वेगळयो मशिदी आसतात.

मशिदीची रचणूक सादारणपणान चवकोनी आकाराची आसता. मशिदींत प्रार्थनेखातीर उक्ती सुवात आसता, ताका 'सहन' म्हण्टात. सहनाच्या मध्यभागार उदकाचो हौद आसता. मशिदीचे मॅक्काचे दिकेक आशिल्ले वण्टीक 'किब्ला' अशें म्हण्टात. हे वण्टीच्या मदेकाक अर्दगोल आकाराचो नक्षीकाम केल्लो मिहराब आसता. मिहराबाक तेकून उजवेकडेन इमामाच्या धर्मोपदेशाखातीर 'मिंबर' नांवाचो चबुतरो आसता. हो मिंबर, लाकडू, हस्तिदंत, संगमरवर वा पाशाणाचेर कोरीव काम करून तयार केल्लो आसता. मिहराब आनी मिंबर हांचेर किबला-वण्टीक तेंकून एक मंटप आसता, ताका लिवान अशें म्हण्टात. राजघराण्यांतल्या लोकांक राखून दवरिल्ले खाशेले सुवातीक 'मक्सूरा' म्हण्टात. मशिदीची पुराय वास्तुरचणूक ऊंच चवकनी आल्लोसाचेर केल्ली आसता. मशिदींत भितर सरपाक तीन मुखेल दारां आसतात. नमाजाखातीर बांग दिवपी मुआज्जिनाचो आवाज पयस पावचो, हाका लागून मिनाराची रचणूक केल्ली आसता.

मशीद (देवस्थान) बांदप हें एक पुण्यप्रद आसा, अशी हेर धर्मियांसारकीच मुसलमानांचीय परंपरा आसा. हाका लागून पयलींचे राजा, बादशहा, सरदार आनी हेर गिरेस्त लोक मशिदी बांदून तांचो खर्चूय चलयताले. बक्फ आनी नझीर, हेर सेवकवर्गाच्या आदारान मशिदीची देखरेख करताले.

इमाम हो मशिदिंतलो प्रार्थनेचो मुखेली आसता. सुरवेक बादशाह होच राजकारभाराचो, झुजाचो आनी प्रार्थनेचो इमाम (मुखेली) आसतालो. बादशाह अब्बासीद हाणें मानधनाचेर इमामाची नेमणूक केल्ली. तसो खंयचोय हुशार आनी मुसलमान धर्माचें खोल गिन्यान आशिल्लो मुसलमान ही भूमिका करूंक शकता. धर्मीक विधीचो तो मुखेली आसून ताणें दिसाक पांच खेपो नमाज वाचचें पडटा. 'इमाम' हो वेवसाय न्हय. तो न्यायाधिश, मास्तर वा पसरकारूय आसूंक शकता. खतीब आनी मुवझीन हेय प्रार्थना मुखेली आसात.

इस्लाम धर्मांत मूर्तिपूजेक मान नाशिल्ल्यान मशिदींत प्रतिमा वा मूर्ती आसना. पूण कुराणांतलीं उतरां वण्टींचेर सोबित अक्षरांनी कोरिल्लीं आसतात. प्रार्थना करचे पयलीं हातपाय धुवपाखातीर मशिदींत उदकाची वेवस्था आसता.

मुहंमद पैगंबर हाणें मदिना हांगा उबारिल्ली मशिद फकत चार ऊंच वण्टींची आशिल्ली. उपरांत उमर आनी उस्मान ह्या खलिफांनी मक्का आनी मदीना हांगाच्यो मशिदी वाडयल्यो. उमय्या खिलाफतींतलो पयलो वालिद हाणें उबारिल्ल्या दमास्कस हांगाच्या व्हड मशिदींत खांबे, घुमट, उदकाचो हौद आनी मीनार ह्या घटकांचो वापर सगळयांत पयलीं केल्लो. उपरांत हो प्रकार अस्तंत आशियांत चालींत आयलो. मॅक्का हांगाचो काबा आनी जेरुसलेम हांगाचो डोम ऑफ द रॉक ह्यो दोन म्हत्वाच्यो मशिदी सोडल्यार हेर सगळया मशिदींनी दमास्कस मशिदींत आशिल्ल्या वास्तुघटकांचो आस्पाव आसता.

इस्लाम धर्माचो प्रसार अरेबियासावन अस्तंतेकडेन स्पेनमेरेन आनी उदेंतेक भारतांतल्यान चीनमेरेन जसो जसो जायत गेलो, तशें दर एका थळाचेर मशिदीचे वास्तुशैलींत बदल जायत गेले. हे बदल मुखेलपणान पांच प्रदेशीक वास्तुसंप्रदायांत विभागल्यात : १) इजिप्त आनी सिरीया २) उत्तर आफ्रिका आनी स्पेन ३) पर्शिया ४) तुर्कस्तान आनी ५) भारत.

सुरवेच्या काळांतल्या कैरोनजीक एल फुस्टॅट हांगाची अमराची मशीद (सु. ६४२), मदीना हांगाची वालिदाच्या तेंपावयली मशीद (सु. ७०८), आनी कैरो हांगाची इब्न तुलूनाची मशीद (सु. ८७६-७९), ह्यो तीन मशिदी आशिल्ल्यो. दमास्कस हांगा आशिल्ली उमय्या हाच्या तेंपावयली व्हड मशिद आनी जेरुसलेमची 'मस्जीद अल-अक्सा' (सु. ७६०) हातूंत क्रिस्ती वास्तुशास्त्राचो वापर केल्लो. मुसलमान वास्तुकारांनी सगळया प्रदेशांतल्या बांदकाम पद्दतींचें अनुकरण आपले वास्तुनिर्मितींत केलें. तोकांच्यो कमानी, सोबीत नक्षीकाम केल्ले घुमट आनी हेर घटकांचो वापर केल्ल्यान मशीद-वास्तूक एक खाशेलपण प्राप्त जालें. मशिदिचे वास्तुयेवजणेंत मीनार हाका सुसुत्र अशें स्थान मेळ्ळें.

उत्तर अफ्रिका आनी स्पेन हांगाच्या मुसलमानांक 'मूर' आनी तांच्या मशीद-प्रकाराक 'मूरिश' अशें म्हण्टात. व्हड आकार, मोठे, घुमट, एकामेकांत घुस्पल्ल्यो लोखणाच्यो कमानी, फातरी विटांवयलें नाजुक नक्षिकाम तशेंच चुन्याच्या गिलाब्यावयलें सोबित नक्षीकाम हें मुरीश मशिदीचें खाशेलपण आसा. स्पेनांत आशिल्ली कॉर्दोव्हा (सु. ७८५) आनी अल्जेरिया हांगा आशिल्ली टलमसेन ह्यो हांगाच्यो प्रसिद्द मशिदी आसात.

पर्शियन (इराणी) मशिदींत 'कूफीक' शैलिचो वापर केल्लो दिश्टी पडटा. तशेंच मशिदीचें अलंकरण करताना द्राक्षाच्यो वेली, फुलां-पानां, हेर नक्षिकाम आनी सजयल्ल्या विटांचे अर्दगोलकृतीचे खांबे हांचो वापर केला. ह्या मशिदींच्या वास्तुशैलीचो भारत आनी अफगाणिस्तान हांगाच्या मशिदींचेर आनी अलंकरणाचेर प्रभाव पडला. ह्या वास्तूंवयलें घुमट व्हड आसा. घुमटाचो आकार मदल्या भागार फुगिल्लो आसता आनी नक्षीकामान तो पुरायपणान नटयल्लो आसा. हें इराणी वास्तुशैलीचें खाशेलपण आसा. इस्फाहान, ताब्रीज, रेझाईया, नाइन ह्यो हांगाच्यो प्रसिद्द मशिदी आसात.

तुर्की मशीद वास्तुकलेचेर सेल्जुक काळांत पर्शियन शैलीचो आनी उपरांत ऑटोमन साम्राज्यकाळांत बायझंटिन वास्तुशैलीचो प्रभाव पडिल्लो दिश्टी पडटा. ग्रीक शैलीचेय संस्कार तातूंत सांपडटात. कोन्या, नायसिया, बुर्सा हांगाच्यो मशिदी नामनेच्यो आसात.

भारतांतले मशिदीनिर्मितीचे सादारणपणान बाराव्या शेंकड्यासावन पंदराव्या शेंकड्यामेरेन, सुलतानशाही आनी उपरांत मोगल साम्राज्य हे दोन म्हत्वाचे काळ आसात. सुलतानशाहीच्या काळांत मशिदीचे म्हत्वाचे ते घटक आसात ते तशेच आशिल्ले. पूण तांचेर प्रादेशिक शैलिंचोय प्रभाव पडिल्लो. मोगल मशिदींचेर पर्शियन तसोच भारतीय वास्तुशैलिचोय खाशेलो प्रभाव जाणवता. तशेंच हांगाच्यो मशिदी उत्तर आनी दक्षिणी शैलींत विभागल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**मसकर, बापूराव मारुती :** (जल्म : २८ सप्टेंबर १९३१, यारड, कळंब-यवतमाळ-महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. सुरवेक तो पीसंट सोशलिश्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत जनता पार्टीचो वांगडी जालो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा नंदकुमार अगरवाल, ए. आर. फारुकी आनी राम तुपे हांच्या फुडारपणाखाला सुर्ला हांगा जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका हेर सत्याग्रही वांगडा धरलो. काळखाकुडींत घालून खूब मारलो आनी उपरांत न्हंयेंत हाडून उडयलो. १९८६ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मसूरकर, विनायकमहाराज :** (जल्मः १८८५, मसूर-सातारा; मरणः १९५५).

एक धर्मप्रचारक. समर्थ रामदासावरी होय लग्नाच्या माटवांतल्यान पळून गेलो आनी ताणें जायतीं वर्सां तप करून परमेश्वराची कृपा संपादन



केली. त्याकाळांत ताणें संस्कृत ग्रंथांचो आनी धर्मशास्त्राचो खोलायेन अभ्यास केलो. ताचेउपरांत १२वर्सां ताणें रामेश्वरसावन कैलास-मानससरोवरामेरेन तशेंच काबूलकंदाहारमेरेन तीर्थाटन केलें. हे भोंवडेंत ताणें भारतांतल्या वेगवेगळया वाठारांत स्थायीक जाल्ल्यो जाती-जमाती, संस्था, समाजस्थिती हांचो बारीकसाणीन अभ्यास केलो आनी हिंदू समाजाचे उदरगतीखातीर आपणें खंयचें काम करपाचें हें थारायलें. तेखातीर ताणें १९२० वर्सा मसुराश्रमाची स्थापना केली. ह्या आश्रमांत उपनयन जाल्ले भुरगे, आत्मोध्दार करून देव, धर्म, संस्कृताय आनी राश्ट्र हांचे सेवेखातीर तळमळीन वावर करपी तरणाटे हांकांच प्रवेश मेळटालो. तांकां ध्यान-धारणा, प्राणायाम, योग तशेंच भास, गणित, इतिहास, भूगोल आदी विशय शिकयताले. संयमी, त्यागी, विद्वान आनी सेवाभावी अशे प्रचारक तयार करप हो ह्या आश्रमाचो उद्देश आशिल्लो.

इ. स. १९२८-२९ह्या काळांत ताणें गोंयांतले सक्तीचे बाटाबाटींत धर्मांतर केल्ल्या हजारांनी किरिस्तांव गावड्यांचें सामुदायिकरितीन शुध्दीकरण करून तांकां हिंदू धर्मांत घेतले. ते खातीर ताका आनी ताच्या शिश्यांक पुर्तुगेज सरकाराकडल्यान बरेच त्रास सोंसचे पडले. हे घडणुकेन मसुराश्रमाक नामना मेळ्ळी. उपरांत मसूरकर महाराजान वसई, दमण, नगरहवेली, कर्नाटक, वऱ्हाड, सातपुडा आदी वाठारांनी शुध्दीकरणाचो वावर नेटान सुरू केलो. प्रत्येककडेन व्यायामशाळा स्थापून नमस्कार, योगासनां तशेंच जंबिया, भालो, आदी शस्त्रांचो उपेग करपाचें शिक्षण तरणाट्यांक दिवपाचो वावर ताणें सुरू केलो.

हिंदू धर्मांतल्या आदर्शभूत अशा राम, कृष्ण, हनुमान, समर्थ रामदास आदींचीं सुंदर चित्रां लोकांक वांटलीं. धर्मशिक्षणाखातीर दासबोध, मनाचे श्लोक, नित्योपासना, श्रीकृष्णाचो संदेश, शिवाजीचें जयसिंहाक पत्र आदी पुस्तकां छापून तीं वाटलीं. गुलामगिरींतल्यान मुक्त जावपाखातीर भारतीयांक दासबोधाची शिकवण दिवप म्हत्वाचें, असो निश्चेव करून ताणें देशभर व्याख्यानां दिलीं. तशेंच 'श्रीदासबोध' हें म्हयनाळें आनी 'विश्वबोध' हें सातोळें सुरू केलें.

पुर्वास्पृश्य आनी गिरिजन हांची सेवा हेंय कार्य मसुराश्रमान केलें. आपले प्रचारक धाडून त्या गरीब लोकांच्यो अडीअडचणी सोडोवंक आदार दिलो. हिंदुंचे संघटनेखातीर ताणें जायतेकडेन यज्ञसत्रां चलोवन वैदिक परंपरेक पोसवण दिली. क्षत्रिय आनी वैश्य लोकांच्या सशास्त्र, समंत्रक आनी भौशिक उपनयनविधीचो उपक्रम ताणें सुरू केलो. परधर्मीय लोकांनी पळोवन व्हरून बाटयल्ल्या जायत्या बायलांक सोडोवन हाडून तांकां शुध्द करून स्वधर्मांत हाडपाचो वावरूय ताणें केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**महजूर :** (जल्म : इ.स. १८८५, मात्रीगाम, ता. पुलवाम, काश्मीर; मरण : इ.स. १९५२, मात्रीगाम).

नामनेचो काश्मिरी कवी. ताचें पुराय नांव गुलाम अहमद महजूर. घराकडेच ताणें फार्सी आनी उर्दू ह्या दोनूय भाशांचो अभ्यास केलो. हाजिन हांगा दोन वर्सां रावन ताणें 'दीवान-ए-वह्हाब' चो खोलायेन अभ्यास केलो. उपरांत 'पटवारी' म्हळ्यार तलाठी म्हूण सेवानिवृत्त जायमेरेन नोकरी केली.

सुरवेक ताणें उर्दू आनी फार्सी भाशेंत लिखाण केलें. उपरांत ताणें काश्मीरी भाशेंत लिखाणाक सुरवात केली. पटवारी म्हूण काम करतना, शेतकामत्यांकडे वा सामान्य लोकांवांगडा ताचो लागींचो संबंद येतालो. ताका लागून ताचो लोकमानसाकडे जाल्लो परिचय ताच्या गीतांनी दिसून येता. काश्मिरी लोकजीणेच्या दर्शनान ताच्या संवेदनशील मनाक स्फूर्त मेळ्ळी आनी तातुंतल्यान ताच्या भोव सोबीत गीतांचो जल्म जालो. ताच्या ह्या गीतांनी काश्मीरच्यो आशा-आकांक्षा दिसून येतात. आपल्या खुबशा गीतांनी ताणें कश्मीरी लोक आनी काश्मीर-प्रदेश हांचेखातीर बुलबुल आनी उद्यान ह्यो प्रतिमा वापरल्यात.

राश्ट्रीय भावनेचींच ताणें कांय गीतां रचल्यांत. ताणें आपल्या काव्यांत नवे विशय लेगीत हाडल्यात. ह्या नव्या विशयांनी आधुनिकतेचें

स्पश्ट पडबींब पडिल्लें दिसता.

कलाम-ए-महजूर हें महजूरच्या सगळ्या काव्य-रचणुकांच्या झेल्यांक उद्देशून वापरतालें तें सामान्य नांव आसा. पी. एन. पुष्प हाणें महजूरचे जीणेचेर आनी ग्रंथरचणुकेचेर १९५६ वर्सा एक पुस्तिका उजवाडायली. एस्. ए. शमीम हाणें संपादीत केल्ल्या 'तमीर' (१९५६) हातूंत महजूर हाचे जीणेच्या सगळ्या आंगांची म्हायती आयल्या.

वह्हाब परे, रसूल मीर, अल्लाम इक्बाल हांचो महजूराचेर खूब प्रभाव पडलो. राश्ट्रीय आशा-आकांक्षा तशेंच काश्मीरचे संस्कृतीकडे महजूर सामको एकरूप जाल्लो. तेखातीर ताका 'शायर-ए-कश्मीर' अशें भोवमानान म्हण्टात. स्वातंत्र्या उपरांतच्या राजकीय फुडाऱ्यांची वागणूक पळोवन महजूर हाचो विरस जालो. अशे त्राशिल्ले मानसिक अवस्थेंत ताका मरण आयलें. मूळ मात्रीगाम हांगा पयलीं ताचें दफन केलें पूण उपरांत थंयच्या स्थानिक शासनान ताचें कफन अथवाजन नांवाच्या खेड्यांत व्हरून दफन केलें. अथवाजन हांगा स्वतंत्र काश्मिराची निमाणची साहित्यसम्राज्ञी हब्बा खातून हिची कबर आशिल्ल्याचें परंपरेन मानलां. तेखातीर काश्मिरच्या ह्या अपुरबायेच्या कवीचेंय दफन थंयच केलें.

- कों. वि. सं. मं.

## महदंबा : (जल्म : सुमार १२२८; मरण : सुमार १३०३).

एक आद्य मराठी कवयित्री. तिका महदायिसा ह्या नांवानूय वळखतात. ती महानुभाव पंथाची आशिल्ली. महानुभावीय ग्रंथांवयल्यान तिची चरित्रात्मक म्हायती मेळटा ती अशी - देवगिरीचो राजा महादेवराय यादव हाचो पुरोयत वामनाचार्य हाच्या कुळांत महदंबेचो जल्म जालो. वामनाचार्याचो पूत महेश्वरपंडित हाका माधवभट आनी बायेनायेक अशे दोन पूत आशिल्ले. महदंबा ही बायेनायेक हाची धूव. महानुभाव पंथीयांचो आद्य आचार्य नागदेवाचार्य हो माधवदेवाचो पूत. म्हळ्यार नागदेवाचार्य आनी महदंबा हीं बापोल भावंडां.

महदंबा ही सामकी विरक्त आनी खूब बुध्दिमान आशिल्ली, अशें महानुभाव पंथीय ग्रंथांतल्या तिचेविशींच्या उल्लेखांवयल्यान दिसता. ल्हानपणांतूच तिका वैधव्य आयिल्लें. महदंबेक, तिणें रचिल्ल्या 'धवळ्यां'क लागून (म्हळ्यार कृष्ण-रुक्मिणीच्या लग्नाचेर तिणें रचिल्लीं गीतां) तिका खूब नामना मेळ्ळी. पुर्वार्ध आनी उत्तरार्ध अशे ह्या धवळ्यांचे दोन वांटे आसात. धवळ्यांचो पुर्वार्ध हो पुरायपणान महदंबेन रचला. पूण उत्तरार्ध बरयतना तिका म्हाइंभट्ट आनी लक्ष्मीधरभट हांचो आदार मेळिल्लो दिसता. पुर्वार्ध हो १२८७ वर्साचे पयलीं आनी उत्तरार्ध १३०३ वर्साचे पयलीं बरयलो आसुंये. सादी, सोंपी रचणूक हें धवळ्यांचें खाशेलपण आसा.

'मातृकीरुक्मिणीस्वयंवर' आनी 'गर्भकांड ओव्यो' अशो दोन रचणुको महदंबेच्या नांवार आसात. 'कृष्णरुक्मिणीविवाह' होच मातृकीरुक्मिणीस्वयंवराचोय विशय आसा. दर एके ओवींत सुरवेक एक अशे तरेन बावन्न मातृका ह्या काव्यांत आशिल्ल्यान ताका 'मातृकीरुक्मिणीस्वयंवर' अशें नांव दिलां. ह्या काव्यांत लेगीत धवळ्यांचे प्रतिसाद दिसून येतात. 'गर्भकांड ओव्यो' हें एक आध्यात्मिक प्रकरण आसा.

लीळाचरित्र, श्रीगोविंदप्रभुचरित्र, स्मृतिस्थळ आनी इतिहास ह्या महानुभीव ग्रंथांनी महदंबेचो उल्लेख आयला. महानुभाव पंथाचो संस्थापक श्रीचक्रधर हाचें प्रयाण जातकच महदंबा, ऋध्दिपुराक आयली. थंय तिणें श्रीगोविंदप्रभूची (श्रीचक्रधराचो गुरू) सेवा करपाक लागली. ताच्या मरणा उपरांत तिची उरिल्ली जीण चडशी नागदेवाचार्याच्या सांगातान गेली.

महदंबेच्या मरणावेळार नागदेवाचार्य तिच्या म्हऱ्यांत आशिल्लो अशें दिसता. महानुभाव पंथीयांक महदंबेविशीं खूब आदर आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## महांति, गोपीनाथ : (जल्म : २० एप्रिल १९१४, नागबली, जि. कटक).

ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाल्लो नामनेचो ओडिया कादंबरीकार.



ताचें शालेय शिक्षण सोनेपूर हांगा जालें. गोपीनाथ बारा वर्सांचो आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयलें. नामनेचो ओडिया कादंबरीकार कान्हुचरण महांती हो गोपीनाथाचो व्हडलो भाव. १९३० वर्सा पाटणा हांगासावन तो दुसरो क्रमांक मेळोवन मॅट्रिक पास जालो. १९३६वर्सा तो कटक हांगाचे रॅव्हनशा महाविद्यालयांतल्यान इंग्लीश साहित्य हो विशय घेवन बऱ्या गुणांनी एम्. ए. जालो.

फुडें आय्. सी. एस्. वा प्राध्यापक जावपाची ताची इत्सा आशिल्ली. पूण अर्थीक परिस्थिती बरी नाशिल्ल्यान ताका तें शक्य जालेंना. १९३८ वर्सा ताणें ओरिसाच्या प्रशासनांतली फकत १०० रुपयांची नोकरी धरली. थंय ताणें प्रशासनांतल्या विंगड विंगड पदांचेर काम केलें. उपरांत १९६९ वर्सा उच्च पदावयलो अधिकारी म्हूण निवृत्त जालो. नोकरेच्या निमतान ओरिसांत ताका विंगड विंगड सुवातींनी रावचो पडिल्ल्यान थंयचे लोकजीणेकडे ताचो लागींचो संबंद आयलो. ह्या अणभवाचो ताका कादंबरी बरयतना खूब मोलादीक आदार मेळ्ळो. नोकरेनिमतान खेड्यापाड्यांनी तशेंच आदिवासी वाठारांनी लेगीत ताका काम करचें पडलें. गरीब दीनदुबळे, आदिवासी, पद्दलित (अस्पृश्य) लोकांविशीं

ताका सदांच काकळूट, माया, प्रेम आशिल्ल्यान तो सदांच उपेक्षित वर्गावटेन रावतालो. तेखातीर सधन आनी राजकीय सत्ताधाऱ्यां कडल्यान ताका बरोच त्रास सोंसचो पडलो.

गोपीनाथान खूब लिखाण केलें. तातूंत ताणें २१कादंबऱ्यो, २चरित्रां, ८लघु-कथांझेले, २ नाटकां, १निबंदांझेलो तशेंच आदिवासी भाशांचेर ६ चिकित्सक ग्रंथ बरयले. पूण एक श्रेश्ठ कादंबरीकार म्हूण ताका खूब नामना मेळ्ळी. सुरवातीक ताणें कथा, नाटकां हे वाङमय प्रकार हाताळ्ळे. स्वत्वाचो सोद घेवन ओडिया साहित्याची उदरगत करून ताका चड अर्थपूर्ण सुवात मेळोवन दिवपाचे ताणें यत्न केले.

१९३६ वर्सासावन ताणें आपल्या लिखाणाक सुरवात केली. 'मनगहिरर चास' (१९३८) ही ताची पयली कादंबरी. गोपीनाथान बरयल्ल्या कादंबरींभितर दोन वांटे करूं येतात. कोरापुट ह्या आदिवासी जिल्ह्यांत नोकरी करतना, चडकरून आदिवासी लोकांचेर बरयल्ल्यो कादंबऱ्यो आनी शारांतले लोकजिणेचेर बरयल्ल्यो कादंबऱ्यो हातूंतल्यो 'दादि बुधा', 'परजा', 'अमृतसर संतान', 'सिब भाई', 'अपहंच' ह्यो ताच्यो आदिवासींचेर बरयल्ल्यो कांय म्हत्वाच्यो कादंबऱ्यो आसात. 'हरिजन', 'सरत बाबुन्क गली', 'राहुर छाया', 'सपन मति', 'दानापानि', 'लयबिलय', ह्या ताच्या कादंबरींनी शारांतले कांय वर्ग तशेंच कांय खाशेल्यो जाती, उच्च आनी नीच वर्ग, सुशिक्षित आनी अशिक्षित हांचें चित्रण आयलां.

ताचे 'मातिमताल' हे कादंबरीक ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जालो. ही प्रदीर्घ कादंबरी बरोवपाक गोपीनाथाक सुमार धा वर्सांचो काळ लागलो. ओडिया साहित्यांत हे कादंबरीक तशेंच कादंबरीकाराक मानाची सुवात आसा.

ओरिसाच्या आदिवासी प्रस्नांचो गोपीनाथ हो जाणकार मानतात. साहित्य अकादेमीचो तो सदस्य आशिल्लो. १९५५ वर्सा ताचे 'अमृतर संतान' हे कादंबरीक साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळो. १९७० वर्सा ताका 'सोव्हिएत लँड नेहरू पुरस्कार' फावो जालो. १९७४ वर्सा ज्ञानपीठ पुरस्कार, १९७६ वर्सा डी. लिट्. आनी १९८१ वर्सा 'पद्मभूषण' हे भोवमान ताका मेळ्ळे.

- कों. वि. सं. मं.

**महाकाली- १ :** आदिशक्ती महामायेचें एक रूप आनी परात्पर महाकालीची संहारक शक्ती. आदिशक्तीच्या तमःप्रधान रागीश्ट रुपाक महाकाली म्हण्टात. ती दुश्टांक ना करपाखातीर प्रगट जाता. मधु-कैटभ ह्या दैत्यांचो नाश करपाखातीर तिणें अवतार घेतलो अशें देवी भागवतांत सांगलां. तिच्या तोंडांतल्यान रगत गळटा आनी तिचे सुळे भायर आयिल्ले आसतात. तिचे केंस ज्वालेवरी दिसतात. तिच्या गळयांत मनशाच्या मुंडक्यांची माळ आसता. तिका चार हात आसून तातूंत संहारक शस्त्रां आसतात.



श्रीविद्यार्णवतंत्रांत तिचें रुपध्यान वर्णन केलां तें अशें - कृष्णवर्ण (काळी), धा तोंडांची, तीन दोळयांची, धा हातांची, दशपाद, खड्ग, बाण, त्रिशूळ, गदा, चक्र, पाश आदी आयुधां धारण करपी.

जरी तिचें अशें खर रूप आसलें तरी ती आपल्या भक्ताकडे वरदायिनी आनी राखण करपी जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**महाकाली-२ :** दक्षिण भारतांतली एक ग्रामदेवता. ती कोपीश्ट आसून, तिच्या कोपाक लागून पटकी हो रोग जाता असो समज आसा. पौष म्हयन्यांत तिची जात्रा जाता आनी ती सोळा दीस चलता. जात्रेच्या पयल्या दिसा देवीक एक भांगराचें कांकण घालतात. णवव्या दिसा हें कांकण काडून देवीच्या भांडारांत दवरतात. धा दीस तिका वेगवेगळ्या वाहनांचेर बसयतात. इकराव्या दिसा तिचो रथ वता. तेवेळार तिका पशुबळी दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**महाकाली-३ :** जैन संप्रदायांतली यक्षिणी. ही सुमतिनाथाची सेविका आसा. श्वेतांबरांच्या मतान ती भांगराकांतीची कमलासना आनी चतुर्भुज आसून वरदमुद्रा, मातुलिंग, पाश आनी अंकुश धारण करता.

दिगंबर पंथाचे लोक तिका पुरुषदत्ता म्हण्टात. ती चक्र, वज्र, फळ आनी वरदमुद्रा धारण करपी आनी गजवाहना आसा. ही जैनांची विद्या देवीय आसा. ती आपल्या उपासकांक समाधी प्राप्त करून दिता अशें म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**महाकाव्य :** आकारान व्हड, आशयान म्हान, भाशेन भारदस्त आनी उदात्त, मुखेलपणान दैवी साक्षात्काराचें चित्रण करपी एक काव्य. आर्ष आनी विदग्ध अशे महाकाव्याचे दोन प्रकार आसात.

विस्कळपणान ह्या दोन प्रकारांमदलो वेगळेचार दाखयतलो जाल्यार अशें म्हणूं येता, आर्ष महाकाव्यां मनीसकुळयेचे सुरवेचे अवस्थेंत निर्माण जाल्लीं आशिल्ल्यान तांकां आदिम (प्रीमीटीव्ह) तर विदग्ध महाकाव्यांची निर्मिती समाजाचे प्रगत अवस्थेंत जाल्ली आशिल्ल्यान तांकां सांस्कृतिक महाकाव्यां (एपिक्स ऑफ कल्चर) अशें म्हणप जाता. आर्ष महाकाव्यांत एक स्वभावीक अशा निजरुपाचो आविश्कार केल्लो दिसता तर विदग्ध महाकाव्यांत तो तितल्या प्रमाणांत दिसना. हाकाच लागून विदग्ध महाकाव्यांत जें अभिजात अशें साहित्य रूप दिसता तशे तरेचें साहित्यरूप आर्ष महाकाव्यांत विकसित जाल्लें दिश्टी पडचेंना. देखीक-वाल्मिकीचें रामायण आनी व्यासाचें महाभारत ह्या आर्ष महाकाव्यांचीं लक्षणां आनी किरातार्जुनीय, शिशुपालवध, नैषधीयचरित, रघुवंश आनी कुमारसंभव सारकिल्ल्या विदग्ध महाकाव्यांच्या लक्षणांची तुळा केल्यार हाची प्रचिती येता.

संस्कृत साहित्यांत खूब महाकाव्यां आसात. रघुवंश, कुमारसंभव, किरातार्जुनीय, शिशुपालवध आनी नैषधीयचरित हीं पांच मुखेल नामनेचीं महाकाव्यां आसात. ह्या पांच महाकाव्यांतलीं किरातार्जुनीय, शिशुपालवध आनी नैषधीयचरित हीं तीन काव्यां महाभारतांतल्या कथांचेर आदारिल्लीं आसात. कालिदासाचें रघुवंश, कुमारदासाचें जानकीहरण, भट्टीचें रावणवध हीं काव्यां रामायणाचेर आदारल्यांत. मंखाचें श्रीकंठचरित, विद्यामाधवाचें पार्वतीरुक्मिणीय, कविराजाचें पारिजातहरण, वेंकटाध्वरीचें यादवराघवीय आनी रत्नाकर तशेंच राजानकाचें हरविजय हीं काव्यां पुराणांतल्या कथांचेर आदारिल्लीं आसात. अश्वघोषाचें बुध्दचरित आनी सौंदरनंद, शिवस्वामीचें कप्फणाभ्युदय, भट्टार हरिचंद्राचें धर्मशर्माभ्युदय आनी हेमचंद्राचें त्रिषष्टिशलाकापुरुष ह्या काव्यांक धर्मीक चरित्रकथांचो आदार आसा. पद्मगुप्ताचें नवसाहसांकचरित, बिल्हणाचें विक्रमांकदेवचरित, न्यायचंद्राचें हम्मीर महाकाव्य हीं काव्यां अर्वाचीन इतिहासाचेर आदारिल्लीं आसात. तशेंच परमानंदाचें शिवभारत, जयरामाचें पर्णालपर्वतग्रहणाख्यान, केशवपंडिताचें राजारामचरित, भागवतशास्त्र्याचें अहल्याचरितम् हीं काव्यां इतिहासीक व्यक्तींचे जीणेचेर बरयल्यांत. व्याकरणशास्त्र आनी साहित्यशास्त्र हांच्या उदाहरणांखातीर रचिल्लें भट्टिकाव्य वा द्विसंधान, त्रिसंधान अशे शाब्दिक चमत्कार दाखोवपापसत बरयल्लें तंत्रबध्द काव्य हेंय महाकाव्यांत आस्पावता.

इ.स. ११व्या शेंकड्यासावन संमिश्र महाकाव्यांचे रचणुकेक सुरवात जाली. ह्या काव्यांत आर्ष महाकाव्यां, पुराणां आनी विदग्ध महाकाव्यां हांच्या रचना-खाशेलपणांचें मिश्रण मेळटा. क्षेमेंद्र हाची नृपावली, नीलमुनीचें नीलमतपुराण, कल्हणाची राजतरंगिणी आनी मेरुतुंगाचो प्रबंधचिंतामणी हीं ताचीं कांय उदाहरणां आसात.

संस्कृत महाकाव्यां वांगडाच प्राकृत भाशेंतूय महाकाव्यां रचप जातालें. कालिदासाच्या काळांतलो प्रवरसेन हाणें सेतुबंध वा दसमुहवहो हें महाकाव्य प्राकृतांत बरयलें. रामायण कथेच्या जैन संस्करणाचेर आदारिल्लें विमलसूरीचें पउमचरिय हें पुराणमहाकाव्य गाथा आनी हेर वृत्तांत बरयल्यात. यशोवर्म्याचो राजकवी वाक्पतिराज हाणें गउडवहो हें महाकाव्य बरयलें. पयलो तीर्थंकर आदिनाथ हाच्या चरित्राचेर आदिनाथचरिय हें पुराणमहाकाव्य रचिल्लें आसा. पुष्पदंताचें महापुराण आनी जसहरचरिउ हीं महाकाव्यां अपभ्रंश भाशेंत आसात.

मराठींतली पयली काव्यरचना महानुभाव कवींनी केली. इ.स.च्या १३व्या शेंकड्यांतलो मराठी भाशेंतलो पयलो महाकवी भास्करभट्ट बोरीकर हाणें शिशुपालवध हें महाकाव्य रचलां. दुसरो महाकवी नरेंद्रपंडित हाणें रुक्मिणीस्वयंवर हें काव्य बरयलें. एकनाथाचें रुक्मिणीस्वयंवर आनी सामराजाचें रुक्मिणीहरण हींय महाकाव्यांच आसात. उपरांत कुंटे हाणें राजा शिवाजी (१८७१) आनी वा. वा. खरेशास्त्री हाणें यशवंतराव (१८८८) हीं इतिहासीक व्यक्तींचेर आदारिल्लीं महाकाव्यां बरयलीं. ते उपरांतचो महाकवी सुटकेझुजारी सावरकर हाणें कमला आनी गोमांतक हीं दोन महाकाव्यां बरयलीं. हातुंतलें कमला हें काव्य अर्दवट आसा. पानिपताच्या रणसंग्रामाचेर आदारिल्ल्या एका महाकाव्याचो कमला हो पयलो सर्ग आसा. गोमांतक ह्या काव्याचे दोन भाग आसात. पयल्या भागांत, गोंयांत पुर्तुगेजांनी हिंदूंक कसो त्रास दिलो तें सांगलां जाल्यार दुसऱ्या भागांत, मराठ्यांची सत्ता वाडिल्ल्यान तो त्रास कसो सोंपलो हेविशीं वृत्तान्त आसा. हाचे उपरांत सांगलीच्या साधुदास हाणें विदग्ध महाकाव्याचे धर्तेचेर आनी रामायणाचेर आदारित अशीं काव्यां रचलीं. ताच्या वनविहार (१९१२) ह्या काव्यांत सतरा सर्ग आसून, तातूंत रामाच्या वनवासापसून हनुमान लंकेंत सीतेचो सोद लायता इतलेमेरेन कथा आसा. रणविहार (१९१६) काव्यांत राम-रावणाचें झूज आसून, गृहविहार (१९२८) ह्या काव्यांत रामाच्या उत्तरचरित्राची कथा आसा. सांगलीच्याच वि. वा. भिडे हाणें रामकथेचेर 'राघवीयपरीवाह' नांवाचें वीस सर्गांचें महाकाव्य बरयलां. हालींच यशवंत कवीन छत्रपती शिवराय नांवाचें एक महाकाव्य बरयलां. तशेंच ना. रा. मोरे हाणें शिवचरित्राचेरूच 'गीताशिवायन' हें अठरा हजार वळींचें महाकाव्य बरयलां. कोंकणाख्यान हें आनीक एक ओवीबध्द, छंदोबद्द अशें मराठी काव्य आसून तातूंत

कोंकण प्रदेशाची आनी खास करून गोंयची आदल्या काळांतली म्हायती आसा. पूण अशा ह्या १३०३ ओव्यांच्या काव्याचो कर्तो आनी ह्या काव्याच्या काळाविशीं मात निश्चित अशी म्हायती मेळना.

जैन कवी धनंजय हाच्या राघव-पांडवीय (१९३०) ह्या काव्यांत राम आनी पांडव हांचीं चरित्रां आयल्यांत. तशेंच हरदत्तसूरीचें राघवनैषधीय, विद्यामाधव हाचें पार्वतीरुक्मिणीय, वेंकटाध्वरीचें यादवराघवीय आनी सोमेश्वराचें राघवयादवीय हीं अशेच रचनेचीं महाकाव्यां आसात. चिदंबराच्या राघवपांडवयादवीय ह्या काव्यांत राम,पांडव आनी यादव हांची कथा एकदमच सांगल्या.

गुजराती भाशेंतूय कांय महाकाव्यांभशेन रचना जाल्यात. श्रीधर हाणें रणमल्लचंड हें वीररसप्रधान काव्य इ.स. १४०० वर्सा बरयलें. तातूंत राठोड कुळांतल्या रणमल्ल ह्या पराक्रमी राजपुत्रान पाटण्याच्या झाफरखानाकडे केल्ल्या झुजाचें वर्णन आसा. पद्मनाभाच्या कान्हड दे प्रबंध (इ.स. १४५६) ह्या काव्यांत झालोरचो राजपुत्र कान्हड दे हाणें अलाउद्दीन खिलजी हाणें घाल्ल्या रेवाड्याक व्हड धीरान बारा वर्सांमेरेन कशें तोंड दिलें ताचें वर्णन आसा. प्रेमानंदाच्या नलाख्यान आनी ओखाहरण ह्या काव्यांत महाकाव्यरचनेचीं कांय खाशेलपणां मेळटात. नर्मदाशंकर हाचीं वीरसिंह, इंद्रजितकाव्य आनी पृथुराज रासा हीं काव्यां महाकाव्याचे धर्तेचीं आसात. नागरदास पंड्या हाणें कालिदासाच्या रघुवंश आनी कुमारसंभव ह्या काव्यांचे गुजरातींत छंदोबद्द अणकार केल्यात. न्हानालाल हाणें कुरुक्षेत्र नांवाचें महाकाव्य बरयलां. उमाशंकर जोशी हाचें विश्वशांती हें काव्य भव्य आनी व्यापक कल्पनेचे नदरेन महाकाव्य थरता.

हिंदी भाशेंत चंदबरदाईचें पृथ्वीराज-रासो हें पयलें महाकाव्य आसा. मलिक मुहंमद जायसीचें पद्मावत हें दुसरें महाकाव्य आसा. हिंदी भाशेंतलें तुलसीदासाचें रामचरितमानस (इ.स.चो १६वो शेंकडो) हें महाकाव्य खूब लोकप्रिय थरलां. कवी भूषण हाचें शिवराजभूषण हें इतिहासीक महाकाव्य खूब प्रसिध्द आसा (इ.स.चो १७वो शेंकडो). आर्विल्ल्या हिंदी काव्यांत अनूप शर्मा हाचें गौतम बुध्दाचे जीणेवयलें सिध्दार्थ (इ.स. १९३०-३५), द्वारकाप्रसाद मिश्र हाचें कृष्णायन (इ.स. १९४६), सोहनलाल द्विवेदी हाचें कुणाल, हरिऔध हाचें प्रिय प्रवास, जयशंकर प्रसाद हाचें कामायनी, मैथिलीशरण गुप्ता हाचें बुध्दचरित्रावयलें यशोधरा आनी रामायण कथेवयलें साकेत हीं नामनेचीं महाकाव्यां आसात.

बंगाली भाशेंत इ.स.च्या तेराव्या-चवदाव्या शेंकड्यासावन प्रदीर्घ अशीं आख्यानात्मक आनी रामायण, महाभारत आनी भागवत हांचेर आदारित काव्यां बरयलीं. कृत्तिवास ओझा हाचें रामायण, मालाधर बसू आनी रघुनाथ भागवताचार्य हाचें भागवत, काशीरामदास हाचें भारत अशीं तांचीं नांवां आसात. इ.स.च्या १९व्या शेंकड्यांत रंगलाल बॅनर्जी हाणें पद्मिनी आनी कर्मदेवी हीं इतिहासीक काव्यां बरयलीं. अर्वाचीन बंगालींतलें मेघनादवध (इ.स. १८६१) हें मधुसूदन दत्ताचें महाकाव्य उल्लेख करपासारकें आसा. ह्या काव्याचे णव सर्ग आसात. तिलोत्तमासंभव हें ताचेंच अस्तंती महाकाव्याचे धर्तेचें महाकाव्य आसा. ह्याच काव्याचे प्रेरणेन हेमचंद्र बंदोपाध्याय हाणें वृत्तसंहार (इ.स.१९००) नांवाचें महाकाव्य बरयलें. नवीनचंद्र सेन हाणें रैवतक, कुरुक्षेत्र आनी प्रभास हीं श्रीकृष्णाचेर काव्यां बरयल्यात.

तमिळ भाशेंत इ.स.च्या पयल्या शेंकड्यासावन सव्या शेंकड्यामेरेन बरींच महाकाव्यां बरयलीं. इळंगोअडिगळ हाचें शिलप्पधिकारम, शीत्तनार हाचें मणिमेखलै आनी तिरुतक्कदेवर हाचें जीवकचिंतामणी हीं नामनेचीं महाकाव्यां आसात. ह्याच काळांत पेरुंकदै नांवाचें आनीक एक महाकाव्य रचप जालें. तातूंत उदयनाची कथा आयल्या. ह्याच काळांतलीं वलयापती आनी कुंडलकेशी हीं महाकाव्यां सदद्या उपलब्ध नात. इ.स.च्या णवव्या शेंकड्यांत महाकवी कंबन हाणें वाल्मिकीरामायणाच्या आदाराचेर रामायणाची रचना केली. तें रामायण कंबरामायण ह्या नांवान प्रसिध्द आसा.

तेलुगू भाशेंत नन्नय्यभट्ट, तिक्कन्न सोमयाजी आनी यर्राप्रगड ह्या तीन महाकवींनी महाभारताचो अणकार केला. श्रीनाथ हाणें पल्नाटी वीरचरितम हें महाकाव्य रचलें. बम्मेर पोतन्ना ह्या महाकवीन भागवताचो तीस हजार पदांनी अणकार केला. श्रीपाद कृष्णमूर्ती शास्त्री हाणेंय महाभारताचो तेलुगू अणकार केला. विश्वनाथ सत्यनारायण ह्या तेलुगू महाकवीन आंध्रप्रशस्ती, शृंगारवीथी, शशीदूतम् हीं काव्यां बरयल्यांत. गाडियारम व्यंकट शेषशास्त्री हाणें शिवाजी महाराजाचे जीणेचेर शिवभारतमू नांवाचें आनी राजशेखर शतावधानी हाणें राणा प्रतापाच्या चरित्राचेर महाकाव्य बरयलां.

कन्नड साहित्यांत पंप ह्या पयल्या महाकवीन महाभारताचेर विक्रमार्जुनविजय हो ग्रंथ बरयलो. ताका पंपभारत अशेंय म्हण्टात. रन्नाचें साहसभीमविजय वा गदायुध्द हें महाकाव्य आसा. नागवर्मा दुसरो, हाणें पंपभारताचे धर्तेचेर रामायण बरयलां. पूण तें जैन कल्पनेप्रमाण सुदारून बरयलां. उपरांतच्या काळांत कुमारव्यासान महाभारताचीं पयलीं धा वर्सां कन्नड भाशेंत अणकारल्यांत. कुमारवाल्मिकी नांवाच्या कवीन भामिनीषट्पदी ह्या छंदांत कन्नड तोरवे रामायणाची रचना केल्या. लक्ष्मीशा हाणें जैमिनीभारत रचलें. कुमारव्यासान बरोवंक नाशिल्लीं फुडलीं आठ पर्वां तिम्मण्ण कवीन बरयलीं आनी कन्नड महाभारत पुराय केलें. आर्विल्ल्या काळांत पुट्टप्पा हाणें रामायणदर्शन हें महाकाव्य बरयलां.

मलयाळम् भाशेंत इ.स.च्या १८व्या शेंकड्यांत कुंचन नंपियार हाणें भागवताचेर आदारिल्लें भागवतम इरुपत्तिनालुवृत्तम हें चोवीस सर्गांचें एक महाकाव्य बरयलें. उपरांत केशव पिळ्ळा हाणें केशवीय नांवाचें एक महाकाव्य बरयलें. उल्लूर एस्. परमेश्वरैय्यर हाणें उमाकेरलम नांवाचें महाकाव्य बरयलें. कुमारनाशान होय एक महाकवी आशिल्लो.

ताणें श्रीबुध्दचरितम, बालरामायण हीं काव्यां बरयलीं. वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन हाणें चित्रयोगम हें महाकाव्य बरयलें. पल्लत्तुरामन हो आर्विल्ल्या काळांतलो एक महाकवी जावन गेलो.

असमिया भाशेंत माधव कंदली ह्या पयल्या महाकवीन रामायणाची रचना केली. उपरांत शंकरदेव हाणें भागवत पुराणाचो असमिया भाशेंत अणकार केलो आनी रामसरस्वती हाणें महाभारताचो अणकार केलो.

ओडिया भाशेंतलो महाकवी सारलादास हाचो महाभारत हो पुर्विल्ल्या ओडिया साहित्यांतलो सगळयांत श्रेश्ठ ग्रंथ मानतात. एकोणिसाव्या शेंकड्यांतलो राधानाथ राय हाचें महायात्रा हें म्हत्वाचें काव्य आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**महाकोसल :** भारतांतलें एक पुर्विल्लें जनपद. कोसल, कौसलक, सकल-कोशल, दक्षिण कोसल ह्याय नांवांनी ह्या जनपदाचो उल्लेख कितल्याशाच पुराणग्रंथांनी आनी शिलालेखांनी मेळटा. महाकोसलचे सुवातेविशीं तशेंच ताच्या विस्ताराविशीं अभ्यासकां भितर विंगड विंगड मतां आसात.

१) उत्तरेकडे अमरकंटक हांगाचे नर्मदेच्या उगमासावन दक्षिणेकडे महानदी, अस्तंतेकडे वैनगंगा आनी उदेंतेकडे हर्दा आनी जोंक ह्या न्हंयांनी घेराव घाल्लो प्रदेश महाकोसल म्हूण वळखतात. थंय कलचुरी वंशाचें राज्य आशिल्लें.

२) ब्रह्मांड आनी मार्कंडेय पुराणांच्या आदारांवयल्यान विंध्य पर्वताच्या उदेंत आनी आग्नेय देंवतेवयल्या ब्राह्मणी आनी महानदी ह्या न्हंयांच्या उदकाच्या प्रदेशांतलें एक जनपद.

३) कनिंगहॅम हाच्या माताप्रमाण महानदी आनी गोदावरी न्हंयांच्या वयल्या देगणांतलो गोंडवनाचो प्रदेश होच महाकोसल आसा. दलपतशाहाचे राणयेची दुर्गावतीची ह्या प्रदेशाचेर सत्ता आशिल्ली.

४) मध्य प्रदेश आनी ओरिसा राज्यांतल्या बिलासपूर, रायपूर आनी संबळपूरच्या कांय वाठाराक महाकोसल म्हण्टात. हांगा सोमवंशी क्षत्रिय घराण्याचें अधिपत्य आशिल्लें.

५) फर्ग्युसन हाच्या माताप्रमाण, आर्विल्ल्या छत्तीसगढाचो प्रदेश हो महाकोसल देश आसून, बिलासपूर जिल्ह्यांतलें आर्विल्लें तुमान ही ताची राजधानी आशिल्ली. कलचुरी आनी हैहय वंशांची हांगा सत्ता आशिल्ली. रत्नपूर (मणिपूर) ही तांची त्या काळांतली राजधानी आशिल्ली. तांणी खूबशीं शिवाचीं देवळां आनी मठ बांदले.

- कों. वि. सं. मं.

**महाजन, विठ्ठल परशुराम :** (जल्म : २५ ऑक्टोबर १९३०, खेड-रत्नागिरी).

सुटकेझुजारी. ताणें एस्. एस्. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. २ ऑक्टोबर १९५५ दिसा बांदा सावन गोंयची शीम हुंपून ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. १९५६त समयुक्त महाराष्ट्र चळवळींतय ताणें वांटो घेतिल्लो. १९८५ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १५ ऑगस्ट १९८७ ह्या दिसा पुणें महानगरपालीके कडल्यानय ताचो भोवमान जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**महात्मे, रजनीकांत दामोदर :** (जल्म : ५ मार्च १९३५, असोळणें - सालसेत).

सुटकेझुजारी. ताणें एस्. एस्. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां लावप, तिरंगी बावटो लावप असलीं कामां तो करतालो. १९५४ त ताणें सिंधुताई देशपांडे हिका आपल्या घरांत आलाशिरो दिल्लो, देखून ताका पोलिसांनी अटक केली. उपरांत ताचेकडल्यान जबानी घेवन ताका सोडलो. १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा विश्वनाथ गुडे हाच्या फुडारपणाखाल ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका मडगांव हांगा धरलो. ताका प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून णव वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच दंड भरपाय म्हूण आनीक दोन वर्सां बंदखण आनी एक वर्स सुरक्षिततायेचे राखणेखाल दवरलो. १५ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. सुटके उपरांत परत तो राश्ट्रीय कार्य करूंक लागलो. १९७३ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**महात्मे, सुर्याजी सदाशिव :** (जल्म : १८३७, पणजी; मरण : १३ डिसेंबर १८९९, बांद्रा हील रोड-मुंबय).

गोंयचो एक मराठी कादंबरीकार. पणजे घरचे घराच ताचें मराठी शिक्षण जालें. तेचपरी ताणें सेगुंद ग्राव आनी लिसेंवाचें तीन वर्सां मेरेन शिक्षण घेतलें. ताका मराठी, पुर्तुगेज, फ्रेंच आनी संस्कृत भाशेचें गिन्यान आशिल्लें. मुंबय क्रॉफर्ड, क्राऊन अँड कंपनी ह्या सॉलिसिटर फर्मांत तो काम करतालो. १८७० त ताणें 'आनंदलहरी' नांवाचें म्हयनाळें सुरू केलें आनी साहित्यसेवेक सुरवात केली. The Fight at Dame Europa's School ह्या फ्रँको-जर्मन झुजावयल्या मनोरंजक ग्रंथाचो ताणें 'युरोपकाकूच्या शाळेतील मारामारी' ह्या नांवान अणकार केलो आनी

१८७१ त उजवाडाक हाडलो. हें ताचें पयलें पुस्तक. ताचें दुसरें पुस्तक 'तंतुवाद्य किंवा सतार शिकण्याचे पुस्तक' १८७२वर्सा उजवाडाक आयलें. ताचें तिसरें पुस्तक 'वेषधारी पंजाबी' १८८६त उजवाडा आयलें. ही स्वतंत्र, समाजीक, रहस्यात्मक कादंबरी. रहस्यकथा प्रकारांतली ही एक म्हत्वाची आनी पयली कादंबरी. विक्रमचरित्र हो १८८८ त आयिल्लो ताचो चवथो ग्रंथ. फुडें वेषधारी पंजाबी आनी विक्रमचरित्र हीं दोन पुस्तकां, १८९१ त ताणें दोन वांट्यांनी संपादित केल्लीं. 'यथार्थदीपिका' आनी 'वामनी ग्रंथ' ह्या मासिकाचे चोवीस ग्रंथ ताणें उजवाडा हाडले (बाळाजी आनी कंपनी). वामनी ग्रंथ हो ताच्या पिरायेच्या निमण्या आयुश्यांतलो म्हत्वाचो वावर.

- कों. वि. सं. मं.

## महादेव - १ : (इ.स. चो १३ वो शेंकडो).

एक ज्योतिशग्रंथकार. हाच्या चरित्राविशीं चडशी म्हायती मेळना. रत्नमालेचेर बरयल्ले टीकेच्या वारप्रकरणांत ताणें आनंदपूर नांवाच्या गांवाचो उल्लेख केला. ताचेवयल्यान महादेव आनंदपूर गांवांत रावपी आसूं येता अशें शं. बा. दीक्षित हाचें मत आसा. श्रीपतीच्या रत्नमाला आनी जातकपद्दत ह्या दोन ग्रंथांचेर महादेवी नांवाची टीका आसा. रत्नमालेवयले टीकेचे सुरवेक महादेवान श्रीपतीचें वंशवृत्त दिलां. ताचेवयल्यान श्रीपतीची म्हायती मेळटा. तशेंच ही टीका रचतना महादेवान कांय अप्रसिद्द ग्रंथकारांचीं नांवां तशेंच ग्रंथांचीं नांवां दिल्यांत. तेखातीर ज्योतिशशास्त्राच्या इतिहासांत ताका म्हत्वाची सुवात मेळळया. ताचे रत्नमाला टीकेंत 'वृध्दजातक' नांवाचो एक ग्रंथ आयला. तशेंच ताणें लल्लोक्त नक्षत्र संख्यालेगीत दिल्या. महादेवान भास्कराचार्याचो 'भास्करव्यवहार' म्हूण एक ग्रंथ सांगला. कांय पंडितांच्या मतान, सिध्दान्तशिरोमणिकार भास्कराचार्याचोच हो ग्रंथ आसुंये.

- कों. वि. सं. मं.

## महादेव - २ : (इ.स.चो १४वो शेंकडो).

एक ज्योतिशग्रंथकार. पंडित बोपदेव हाचो हो पूत. हो कौंडिण्यगोत्री आशिल्लो. ताणें ब्रह्मपक्ष आनी आर्यपक्ष हांकां अणसरून कामधेनुकरण नांवाचो एक ग्रंथ रचलो. ह्या ग्रंथांत सारण्यो, वर्स-गती आनी क्षेपक दिल्यात. बावीस कोश्टकांच्या पटांत तिथिसिध्दी जाता अशें ताचें मत आसा. ताच्या ग्रंथाचेर अनंत नांवाच्या एका ज्योतिशाची टीका आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## महादेव - ३ : (इ.स.चो १४वो शेंकडो).

एक ज्योतिशग्रंथकार. तो गौतम गोत्री ब्राह्मण आसून, ताच्या बापायचें नांव परशुराम. हो मूळचो गुजरातचो पूण उपरांत महाराष्ट्रांत आयलो.

'ग्रहसिध्दी' नांवाचो एक करणग्रंथ आसा. ताका 'महादेव सारणी' अशेंय म्हण्टात. कोणतरी चक्रेश्वर नांवाच्या ज्योतिशान हो ग्रंथ रचपाक सुरवात केली. पूण तो पुराय जालोना. हो ग्रंथ महादेवान पुराय केलो, अशें दिसता. गुजरातांतल्या टिकाकारांनी ह्या ग्रंथाचो खूब उपेग केला. ताचेवयल्यान गुजरात प्रदेशांत हो ग्रंथ बरोच काळ प्रचारांत आसुंये. महादेवी सारणी ह्या ग्रंथांत मध्यम ग्रह आनी स्पश्ट ग्रह हांचें साधन आसा आनी वर्सगणावयल्यान मध्यमग्रहसाधन करपाक सारण्यो दिल्यात. ताकालागून ग्रहगणित सामकें सोंपें आशिल्लें अशें म्हण्टात. ताच्या ग्रंथाचेर धनराजाची महादेवीदीपिका नांवाची एक टीका आसा. धनराज, महादेवाक आपलो गुरू मानता.

- कों. वि. सं. मं.

## महादेव - ४ : (पळेयात शिव).

## महानदी : भारतांतल्या मध्यप्रदेश आनी ओरिसा राज्यांतल्यान व्हांवपी आनी बंगालच्या उपसागराक मेळपी एक म्हत्वाची न्हंय.

तिची लांबाय ८५८किमी. आनी जलवाहन क्षेत्र १,३२,१००चौ. किमी. मध्य प्रदेश राज्याच्या रायपूर जिल्ह्यांतल्या सिहाव गांवासावन कांय अंतराचेर एका ल्हानशा कुंडांत तिचो उगम जाता. हुंवाराच्या वेळार सादारणपणान दर सेंकदाक सुमार ४२,४७५ घ.मी. इतल्या व्हड प्रमाणांत हे न्हंयेंतल्यान उदक व्हांवता. देखूनच तिका महानदी (महान्हंय) अशें म्हण्टात. 'चित्रोत्पला' असोय तिचो उल्लेख मेळटा. तिका विन्ध्यपादविनिर्गता अशेंय म्हळां.

ही न्हंय रायपूर जिल्ह्यांतल्यान सुरवेक थोडी उत्तरेकडे आनी उपरांत ईशान्येकडेन व्हांवता. थंयसावन ती छत्तीसगढ द्रोणींतल्या उदेंतेकडल्या भागांतल्यान २०४किमी. उत्तरेकडे व्हांवत वता. थंय तिका अस्तंतेकडल्यान येवपी सेवनाथ न्हंय मेळटा आनी ती उदेंत वाहिनी जाता. थंयच्यान ती बिलासपूर जिल्ह्याचे दक्षिण शीमेवयल्यान आनी उपरांत रायगड जिल्ह्यांतल्यान उदेंतेकडेन व्हांवत वचून ओरिसांत प्रवेश करता. हांगा उजवेकडल्यान तिका पैरी, जोंक, ओंग, तेल आनी दावेकडल्यान इब, मांड, हसदेव, सेवनाथ ह्यो मुखेल उपन्हंयो मेळटात.

ओरिसा राज्यांत संबळपूरालागसार महानदीचेर हिराकूद धरणाचो एक व्हड प्रकल्प उबारला. धरणासावन ही न्हंय फुडें दक्षिणवाहिनी

जाता आनी उदेंत घाटांतल्या राज्यांतल्या घळींतल्यान वांकड्या तिकड्या वळणांनी व्हांवक लागता. तेउपरांत ही न्हंय उदेंतवाहिनी जावन फुडें कटकसावन ओरिसाच्या मैदानी वाठारांत शिरता आनी निमाणें जायत्या फांट्यांनी बंगालच्या उपसागराक मेळटा. कटक सावन ही न्हंय जायत्या फांट्यानी विभागिल्ल्यान थंय सुमार २४० किमी. रुंदायेचो त्रिभुज वाठार जाला. कातजुरी, कोयाखाई, सुरुआ, देवी, पैका, बिरूपा, चितरतळा, गेंगुती, न्यून हे महान्हंयेचे त्रिभुज प्रदेशांतले फांटे आसून पूरी, कोनारक, पारादीप, कटक, भुवनेश्वर आदी थळां ह्या वाठारांतलीं मुखेल ठिकाणां आसात.

हे न्हंयेक हुंवार आयिल्ल्यान छत्तीसगढ मैदान आनी चडकरून देगेवयल्या वाठारांतलीं पिकां, येरादारी आनी दळणवळणाचे मार्ग आनी मनशाचे वसाहतीक भरपूर बादा येता. तशेंच महानदी आनी तिचे उत्तरेकडल्या ब्राह्मणी आनी वैतरणी (delta) ह्या तिनूय न्हंयांचो वेगळो असो त्रिभुज वाठार जाला आनी देखूनच हुंवाराच्या वेळार त्रिभूज वाठारांतलो हो भाग बुडटा.

महान्हंय, तंदुला आनी कुरुंग हे तीन-मुखेल कालव्याचे चोमे हांगा आसात. तातूंतल्या महानदी कालव्याची चार उपकालव्यांसयत लांबाय २२१.९४ किमी. आसून उदकाशिंपणावळीची तांक १,४४,८२९ हेक्टर आसा. हातूंतलो 'तंदुला' हो कालवो सेवनाथ न्हंयेचेर बांदिल्ल्या धरणापसून काडला. जोंक, पैरी, हसदेव-मांड, मोंग्रा, आरपा, हाप हे महानदीच्या उपन्हंयांवयले आनी महानदी जलाशय, हिराकूद, तिकरपारा, नारज हे महानदीवयले मुखेल प्रकल्प. हातूंतलो महानदी जलाशय प्रकल्प मध्य प्रदेश राज्यांत आसून ताचे तीन टप्पे आसात. हातूंत रविशंकर सागर प्रकल्प, भिलाई कारखान्याक उदकापुरवण करपी संपूरक कालवो, सांडूर न्हंयेवयलें धरण आनी ताचे कालवे आदींचो आस्पाव आसा. ओरिसा राज्यांतल्या तिकरपारा हांगा १२७१मी. लांबायेचें धरण आसून ताचेर दर एकी १२४मेवॉ. तांकीचे १६ जलविद्युत् निर्मितीचे संच आसात.

छत्तीसगढ द्रोणी आनी देगेवयलो मैदानी वाठार सोडल्यार न्हंयेच्या देगणांतलो चडसो वाठार रानान व्यापिल्लो आसा. छत्तीसगढ द्रोणी आनी त्रिभूज वाठारांतली माती तांबडी आनी हळदुवी आसा. हांगा पावसाचें प्रमाण भरपूर आसून, चडसो वाठार उदकाशिंपणावळीखाल हाडला. देखून हांगा व्हड प्रमाणांत शेती उत्पादनां काडटात. तांदूळ ह्या मुखेल पिकाभायर गंव, कड्डणां हांचेंय उत्पादन काडटात. ताग हें त्रिभूज वाठारांतलें मुखेल पीक.

- कों. वि. सं. मं.

**महानुभाव पंथ :** इ.स.च्या बाराव्या शेंकड्यांत ह्या पंथाचो उगम जालो आनी फुडें दोन-तीन शेंकडे ताचो खूब प्रचार जालो. महाराष्ट्र, मध्यभारत, पंजाब, सरहद्द प्रांत, काश्मीर ह्या वाठारांनी, ह्या पंथाचो विस्तार जाल्लो दिसता. वारकरी संप्रदाय हो जसो वैश्णव संप्रदाय आसा, तसोच होय आसा. पूण ह्या दोनूय संप्रदायांचें तत्त्वगिन्यान, उपास्य दैवत आनी उपासनामार्ग वेगळे आसात.

श्रीचक्रधर हो ह्या पंथाचो संस्थापक. ताचें मूळ नांव हरपाळदेव आसून ताच्या मेल्ल्या शरिरांत चांगदेव राऊळ हाणें प्रवेश करून नवो अवतार घेतलो अशी कल्पना आसा. तो मूळचो गुजरातेंतल्या भडोच ह्या गांवांत रावपी. गोविंदप्रभू हाचेकडल्यान ताणें शाक्तस्विकार केलो आनी ताचें शिश्यत्व आपणायलें. थंयसावन फुडें बारा वर्सां तो सालबर्डीच्या दोंगराळ वाठारांत रावलो. उपरांत ताणें भारतांत बरीच भोंवडी केली. हे भोंवडेंत ताका खूबशे शिश्य आनी शिश्या मेळ्ळयो. तांकां ताणें स्वताच्या चिंतनांतल्यान मेळिल्लें तत्त्वगिन्यान सांगून, एक खाशेलो आचारधर्मूय सांगलो. थंयसावनूच ह्या पंथाचो आरंभ जालो.

ह्या पंथाक 'महानुभाव' अशें नांव आसलें तरी ताचीं 'महात्मा', 'अच्युत', 'जयकृष्णी', 'भटमार्ग', 'परमार्ग' अशींय नांवां आसात. गुजरातांत 'अच्युत पंथ' आनी पंजाबांत 'जयकृष्णी पंथ' हीं नांवां आसात. ह्या पंथांतले अनुयायी एकमेकांक 'महात्मा' म्हण्टात. 'भटमार्ग' हें नांव, पंथाचो संस्थापक चक्रधर हाचो पट्टशिश्य नागदेव वा भटोबास हाच्या नांवावयल्यान आयलां. महानुभाव हाचो खरो अर्थ असो जाता- 'महान अनुभावः तेजः बलं वा यस्य स महानुभावा' - तेज वा बळ आशिल्लो म्हान तेजीश्ट आनी बळिश्ट पुरुश तो महानुभाव.

ह्या पंथाची गुरूपरंपरा दत्तात्रेय-श्रीकृष्ण-द्वारावतीकर चांगदेव राऊळ-गुंडम राऊळ म्हळयार गोविंद प्रभू-चक्रधर अशी आसा. ह्या सगळयांचो सूत्रपाठांत उल्लेख आसा. ह्या पांचूय जाणांक पंचकृष्ण ह्या नांवान वळखतात. हे परमेश्वराचे अवतार आसून, पंथाच्या अनुयायांचे तेच उपास्य आसात. हातुंतले श्रीदत्तात्रय, श्रीकृष्ण आनी श्रीचक्रधर हे उभयदृश्य पूर्णावतार आसात.

शंकराचार्यान ब्रह्म हो एकूच पदार्थ नित्य मानिल्लो आसून, जीवजगत ह्या पदार्थांक अनित्य आनी मायिक म्हळां. चक्रधरान मात जीव, प्रपंच, देवता आनी परमेश्वर हे चार पदार्थ स्वतंत्र आनी अनादि-अनंत मानल्यात. हातुंतलो दर एक पदार्थ हेरांपरस स्वतंत्र आसून, त्या दोगांयचो केन्नाच एकचार जायना. मनशाचें रूप घेवनच प्राणिमात्रांचो उध्दार परमेश्वराक करपाक मेळटालो, असो ताचो भावार्थ आसा. प्रपंचाचे दोन भेद मानल्यात. कारणप्रपंच आनी कार्यप्रपंच. कारणप्रपंच हो अव्यक्त आनी नित्य आसता आनी कार्यप्रपंच हो व्यक्त आनी अनित्य आसता. अव्यक्त आसपी पंचमहाभूतां आनी त्रिगुणी म्हळयारूच कारणप्रपंच. व्यक्त पंचमहाभुतां आनी त्रिगुणी म्हळयार कार्यप्रपंच. जीवाभशेन देवता, जातिस्वरुपान एक पूण वास्तवांत खूब आसात. देवतांचे णव चोमे आसून, तांची संख्या दर एका ब्रह्मांडांत ८१ कोटी ११ लाख १० इतकी

आसा. कर्मभुमीच्यो देवता, अष्टौ देवयोनी, अंतराळ, स्वर्ग, सत्य-कैलास-वैकुंठ, क्षीराब्धी, अष्टभैरव, विश्व आनी माया ह्या णव देवतां चोम्याभितर उच्च-नीच असो क्रमूय आसा. सगळयांत सकयलो पांवडो कर्मभुमीच्या देवतांचो आसून, माया ही सगळयांत उच्च आसा. ब्रह्मा, विष्णु महेश अष्टभैरव मात सारके आसात. ह्यो सगळयो देवता नित्यबध्द आसात. तांकां केन्नाच मुक्ती मेळना. जीवांक तांच्या बऱ्या-वायट कर्मांचीं फळां दिवप हें देवतांचें मुखेल कार्य आसा. अद्वैत वेदान्तात ब्रह्म हें अंतिम सत्य आसून, ईश्वर हें ब्रह्माचें सोपाधिक म्हळयार गौण स्वरूप आसता. महानुभावांचें हाचे उरफाटें आसता. ते ईश्वर मुखेल आनी ब्रह्म गौण मानतात. महानुभाव तत्त्वगिन्याना प्रमाण परमेश्वराचे तीन प्रकारचे अवतार आसात. जाणें फकत अवरशक्त आपणायली तो अवरदृश्यावतार, परशक्त आपणायली तो परदृश्यावतार आनी दोनूय शक्ती आपणायल्यो तो उभयदृश्यावतार. अभयदृश्यावतार होच मनीस देह धारण करून जीवांचो उध्दार करूंक शकता. दत्तात्रेय, श्रीकृष्ण आनी चक्रधर हे उभयदृश्यावतार आसात. अवतारांचे आनीकूय तीन प्रकार आसात. गर्भावतार जो आवयच्या पोटांत जल्म घेता. देखीक-श्रीकृष्णावतार. दुसरो लिपोवपाचो अवतार म्हळयार वाडट्या गर्भाक पयसावन ते सुवातेर अवतार घेवप. देखीक-श्रीगोविंदप्रभूचो अवतार आनी तिसरो पतितावतार. चक्रधर हो पतितावतार आसा. अवताराचें कार्य म्हळयार, जीवाक शाब्दिक गिन्यानाचो बोध करून जीव, देवता, प्रपंच आनी परमेश्वर हांचें खर स्वरूप सांगप हें आसा. जीवान ईश्वरस्वरूप हें ज्ञानान वळखुपाचें. ज्ञान हें शाब्द, अपरोक्ष, सामान्य आनी विशेष अशें चार तरांचें आसा. ईश्वराकडल्यान शब्दज्ञान जालें, तरीय मोक्षमार्गान वचपाखातीर अनुसरणाच्या मार्गाचो वापर करून पिरायेच्या छापन्नाव्या वर्सापयलीं संन्यास घेवप गरजेचें आसता. संन्यास घेतकच साधकाक 'असती-परी' घेवची पडटा. चक्रधरान आपल्या तत्त्वगिन्यानाक अणसरून खाशेलो असो आचारधर्म शिश्यांक सांगला, ताका 'असती परी' अशें नांव आसा. असती म्हळयार आसपाची वा वागपाची, परी म्हळयार रीत. साधकान कशे रीतीन वागचें म्हळयार खंयचे विधि-नेम पाळचे हेविशीं सांगिल्लो तो आचारधर्म. हो आचारधर्म फकत ज्ञानमार्गियांखातीर आसा. जीवाक ईश्वराचें गिन्यान जातकच तो वा सगळे ज्ञानी, ज्ञान जातकच परमेश्वराक अनुसरतातच अशें ना.

महानुभाव पंथ ल्हानशा वऱ्हाडांत स्थापन जालो तरी ताचो प्रसार मात भारतभर जालो. पंजाब प्रांतांतल्या सारंगकोट शारांत रावपी कृष्णराज नांवाच्या क्षत्रिय गृहस्थान पंदराव्या शेंकड्यांत, ह्या पंथाची दीक्षा घेतली. तेन्नासावन हो पंथ हिंदुस्थानांत पातळळो. फुडें मुसलमान आनी नाथपंथी हांकां भियेवन ह्या पंथांतल्या लोकांनी आपल्यो पोथयो सकळ नांवाचे गुपीत लिपींत बरोवन बंदिस्त केल्यो.

बीड, पैठण, आपेगाव, फलटण, त्र्यंबक, मढ, पिंपरी, अरणगाव, भिंगार, रामदस, जोगेश्वरी, वेरूळ ह्या सुवातींनी महानुभाव पंथाच्या पुजेच्यो सुवाती आसात.

महानुभाव आचार्य, आम्नाय शब्द शाखाभेद ह्या अर्थान वापरतात. चक्रधराचो शिश्य नागदेवाचार्य हाचे हयातींत महानुभावांच्या गुरूकुलाची वेवस्था पद्दतशीर आनी शिस्तीची आशिल्ली. कोणाकूय पंथांत प्रवेश मेळोवपाचो आसल्यार नागदेवाच्या पांयां पडून पंथाची दीक्षा घेवची पडटाली. पूण नागदेवाच्या मरणा उपरांत, ताच्या शिश्यांनी स्वताची शिश्यपरंपरा सुरू केली. ताकालागून दर एका महंताच्या अनुयायी वर्गांत जे भेद उत्पन्न जाले, तांच्यो तेरा शाखा जावन, तेरा आम्नाय ह्या स्वरुपांत त्यो प्रचलित जाल्यो. त्या आम्नायांचीं नांवां अशीं आसात- १) उपाध्ये, २) कवीश्वर ३) पारिमांडल्य ४) अमृते ५) मदालसा ६) कुमार ७) यक्षदेव, ८) दामोदर, ९) हरिदेव १०) जयदेव ११) साळकर, १२) दिवाकर, १३) महेश्वर.

ह्या सगळया आम्नायांभितर उपाध्ये आनी कवीश्वर हे दोनूच आम्नाय चड प्रसिध्द आशिल्ले. उपाध्ये आम्नाय, जानोपाध्ये हांची पुतणी कमळाइसा हिणें सुरू केलो. तिचे स मुखेल शिश्य आशिल्ले. बीडकर, धाराशिवकर, सेवलेकर, पाचराऊत, पातुरकर, आनी अकुलनेर ह्यो महंतांच्यो गाद्यो उपाध्ये आम्नायांच्यो आसात.

महानुभाव पंथाच्या वैदिक वा अवैदिक स्वरुपाविशीं वाद आसा. हो पंथ वेदानुयायी वा वेदाआड दोनूय नासून ताचें स्वतंत्र रूप आसा अशेंय कांय जाणांचें मत आसा. तांचें वेदाआड आशिल्लें तत्त्व सांगतना (१) वेद हे कर्मरहाटीचें शास्त्र म्हूण त्याज्य आसा, हें चक्रधरांचें मत, २) देवतांची उपासना परमेश्वरप्राप्तीचे नदरेन अप्रमाण, ३) चक्रधराचीं वचनां हींच महानुभावांची श्रुती आसून, ते वेदवचनां प्रमाण मानीनात, ४) वेदमार्गाचो उच्छेद करपी म्हूण महदाश्रम हाणें चक्रधराचो वध करून घेतलो अशीं मतां आसात.

श्रीगोविंदप्रभु, चक्रधर हांच्या कांय विचित्र आचारांक लागून गैरसमज पातळळे. चक्रधर-नागदेवाउपरांत ह्या पंथाक प्रभावी प्रचारक मेळूंक नाशिल्ल्यान हो पंथ वाडूंक शकलो ना. सामान्य लोकांक पेलवना असलो संन्यासमार्ग, गांवापासून पयस विजनवास आपणावपाचो उपदेश, कायाक्लेश आनी अतिरेकी देहदंडनाची शिकवण, कंदमुळां आनी भिक्षा मागून पोट भरपाचो दंडक तशेंच हेर देवतांविशीं संकुचित नदर हांकांलागून ह्या पंथाक फुडल्या काळांत देंवती कळा लागली.

- कों. वि. सं. मं.

**महानुभाव साहित्य** : महानुभाव पंथांतल्या व्यक्तींनी विंगड विंगड वाङमय प्रकारांत रचणूक करून मराठी साहित्य समृध्द केलां. स्मृति-संकलनात्मक गद्य चरित्र वाङमय ही ह्या पंथाची मराठी साहित्याक

लाबिल्ली म्हत्वाची देण आसा. महानुभाव वाङमयांत चरित्रां, सूत्रवाङमय, टीकावाङमय, न्याय-व्याकरण हीं शास्त्रां, क्षेत्र आनी व्यक्तिमाहात्म्य वर्णनां, स्तोत्रां ह्या प्रकारांचो आस्पाव जाता. विंगड विंगड काळांत पंथांतल्या प्रतिभासंपन्न कवींनी बरयल्ल्या सात काव्यांक 'साती ग्रंथ' म्हण्टात. हातूंत नरेंद्राचो 'रुक्मिणी-स्वयंवर', भास्करभट्ट बोरीकराचे 'शिशुपालवध' आनी 'उध्दवगीता', दामोदर पंडिताचो 'वछाहरण', रवळो व्यास हाचो 'सैह्याद्री-वर्णन', पंडित विश्वनाथ बाळापूरकर हाचो 'ज्ञानप्रबोध' आनी पंडित नारायण व्यास बहाळिये हाचो 'ऋध्दिपूरवर्णन' ह्या ग्रंथांचो आस्पाव जाता. हे सातूय ग्रंथ परमार्गाचे परंपरेन मान्य केल्यात.

सिध्दान्तसूत्रपाठ, लीळाचरित्र, पूजावसर, मूर्तिप्रकाश हे ग्रंथ महानुभावांक पूज्य आसात. 'लीळाचरित्र' हें चक्रधराचें चरित्र आसून, तें म्हाइंभटान बरयलां. केसोबासान 'लीळाचरित्रा'तल्यो कांय लीळा वेंचून त्यो संस्कृत भाशेंत पद्यबध्द केल्यो आनी आपलो 'रत्नमालास्तोत्र' ग्रंथ बरयलो. 'पूजावसर' ह्या ग्रंथांत चक्रधराची दीसपटी वर्णिल्या. भावे देवव्यास हाणें हो ग्रंथ बरयला. 'मूर्तिप्रकाश' हो ग्रंथ केशव व्यास हाणें बरयला, ह्या ग्रंथांत चक्रधराचें वर्णन आयलां. 'सिध्दान्तसूत्रपाठ' आनी 'दृष्टान्तपाठ' हे पंथीय तत्त्वगिन्यान सांगपी ग्रंथ केशवराज सूरी हाणें बरयल्यात. 'सिध्दान्तसूत्रपाठ' ह्या ग्रंथांत चक्रधराचीं सूत्रां गुथल्यांत. नागदेवाचे जीणेवयलो स्मृतिस्थळ हो चरित्रग्रंथ पयलीं नरेंद्र आनी परशराम बास हांणी तयार केलो अशें म्हण्टात. उपरांत मालोबास आनी गुर्जर शिवबास हांणी त्या ग्रंथाचें संस्करण केलें. मुनिव्यासान श्रीचक्रपाणी, गोविंदप्रभु आनी चक्रधर हांच्या संबंदान पवित्र जाल्ल्या थळांची 'स्थानपोथी' बरयली. चक्रधराची शिश्या महदाइसा ही आर्विल्ली मराठी कवयित्री. तिणें 'धवळे' आनी 'मातृकी रुक्मिणीस्वयंवर' रचलें. हयग्रीवाचार्य हाणें 'भागवताच्या' दशम स्कंधाचेर 'गद्यराज' हें निर्यमक श्लोकबध्द काव्य बरयलें. पंथाचे उदरगतीच्या काळांत निर्माण जाल्ल्या म्हत्वाच्या ग्रंथांउपरांत भाश्यग्रंथ आनी हेर तरेचें साहित्य निर्माण जालें. तातूंत गुर्जर शिवबासान, चक्रधराच्या वचनांचेर 'लक्षणस्थळ', 'विचारस्थळ' आनी 'आचारस्थळ' हे ग्रंथ बरयले. हातूंतल्या दर एका स्थळाचेर उपरांत खूब भाश्यां बरयलीं. तातूंत दत्तराज मराठे हाचो लक्षणबंद, बाइंदेशकर हाचो विचारबंद आनी विश्वनाथबास बीडकर हाचो 'आचारबंद' चड म्हत्वाचे आसात. ह्याच काळांत म्हळयार चवदाव्या-पंदराव्या शेंकड्यांत, मराठीचो पयलो व्याकरणग्रंथ पंडित भीष्माचार्यान बरयलो. ताणें 'निरुक्तशेष' होय ग्रंथ बरयला. होय ग्रंथ पंथीय वाङमयांत म्हत्वाचो मानतात.

चक्रधर स्वता गुजराती भाशीक आसून लेगीत तो चडसो मराठी भास उलयतालो. ताणें केशिराजासारक्या संस्कृतज्ञ शिश्याकडल्यान मराठी भाशेंत ग्रंथरचणूक करून घेतली. चक्रधर-नागदेवाच्या शिश्यांभितर, चडशे संस्कृतज्ञ आशिल्ल्यान तांची ग्रंथरचणूक संस्कृत वाङमयाच्या वळणार गेल्या. ह्या पंथांत महाकाव्यसदृश्य सलग ग्रंथरचना जाली. फुडल्या काळांत चौपद्यो, धुवे, धाने, स्तोत्रां, आरत्यो, धवळे, पदां अशी भरपूर स्फूट रचणुकूय जाली. 'लक्ष्मण रत्नाकर' ह्या सारक्या संस्कृत ग्रंथावयल्या 'बत्तीस लक्षणांची टीप' अशे टीपग्रंथ बरयले. ताकालागून सूत्रभाष्य, अर्थनिर्णयशास्त्र, व्याकरणशास्त्र, साहित्यशास्त्र अशे तरेन ग्रंथांची रचणूक करून महानुभावीयांनी मराठी भाशेचे उदरगतीक खूब हातभार लायलो. महानुभावीयांच्या वाङमयाची अशे तरेन वांटणी करूं येता. - १) चरित्रग्रंथ, २) सूत्रग्रंथ, ३) साती (काव्य) ग्रंथ, ४) भाष्यग्रंथ ५) साधनग्रंथ ६) तात्त्विक ग्रंथ ७) 'गीता' टीका ८) आख्यानक काव्यां ९) स्थळांच्या वर्णनाचेर बरयल्ले ग्रंथ १०) इतिहासग्रंथ ११) स्फुटरचना.

मुसलमानी आक्रमणाच्या काळांत, पंथाचो आचार्य भास्करभट कोंकणांत वतना चोरांनी ताचेकडल्यो लीळाचरित्र, ऋध्दिपुरचरित्र, स्थानपोथी ह्या ग्रंथांच्यो अधिकृत पोथयो चोरल्यो. उपरांत आपल्या कांय शिश्यांकडसून, आपले यादीप्रमाण ताणें त्यो परतून बरोवन घेतल्यो. तें करतना ताणें हेरांचेय विचार तातूंत मांडले. ताकालागून ह्या ग्रंथांत जायते पाठभेद निर्माण जाले. कांय आम्नायांनी आपले ग्रंथ सांकेतिक लिपींत बरयले. आपली ब्रह्मविद्या, धर्ममतां हेरांपसून गुपीत दवरून, पंथीय वाङमयाचें पावित्र्य राखपाचे भावनेन, हे ग्रंथ ते सांकेतिक लिपींत बरयताले. रवळो व्यास हाणें १३५३ वर्सा सकळ लिपी तयार केली आनी १३६३ वर्सा सुंदरी लिपी आयली. उपरांत पारमांडल्य, वज्रलिपी, अंकलिपी ह्यो लिपी तयार जाल्यो, पूण चडशे ग्रंथ सकळ लिपिंतूच आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## महानोर, ना. धों : (जल्म : १६ सप्टेंबर १९४२, पळसखेडे, औरंगाबाद).

आर्विल्लो मराठी कवी. ताचें पुराय नांव नामदेव धोंडो महानोर. शिक्षण पळसखेडे, पिंपळगांव, शेंदुर्णी आनी जळगांव हांगा महाविद्यालयाच्या पयल्या वर्सा मेरेन जालें. उपरांत पळसखेडे हांगाच ताणें आपलो शेताचो वेवसाय सुरू केलो.

ताचे कवितेंतल्यान अस्सल, संपन्न अशे ग्रामीण संवेदनशीलतायेचो प्रत्यय येता. म्हणूनच पयलींच्या काळांतल्या आनी महानोराच्या काळांतल्या, कवींच्या प्रभावापसून ही कविता मुक्त आसा. लोकगीतांतले छंद-लय, जितीजिवी स्फूर्त, आपले मातयेकडे आनी बोलीभाशेकडे सहजतायेन नातें जोडपी अशे ताचे कवितेंतले शब्द हीं ताचे कवितेचीं खाशेलपणां आसात.

महानोराचो पयलो काव्यांझेलो 'रानातल्या कविता' (१९६७) वर्सा उजवाडा आयलो. १९७० वर्सा 'वही' हो ताचो काव्यांझेलो उजवाडा येतकच 'गांधारी' ही ताची कादंबरी आनी 'गपसप' हो लोककथांचो

संग्रह १९७२ वर्सा उजवाडा आयलो. 'गावातल्या गोष्टी' हो ताचो लोककथांझेलो १९८१ वर्सा उजवाडा आयलो. उपरांत १९८२ वर्सा, 'पळसखेडची गाणी' हें ताणें केल्लें लोकगीतांचें संकलन उजवाडा आयलें. त्याच वर्सा ताचो 'पावसाळी कविता' हो काव्यांझेलो उजवाडा आयलो.

१९८४ वर्सा ताणें 'अजिंठा' हें दीर्घकाव्य बरयलें. १९९० वर्सा 'प्रार्थना दयाघना' हो कवितांझेलो उजवाडा आयलो. 'पुन्हा एकदां कविता' हो कवितांझेलो ना. धों. महानोर आनी चंद्रकांत पाटील हांणी मेळून संपादित केला.

महानोराच्या 'रानातल्या कविता', 'वही', 'गांधारी' ह्या पुस्तकांक महाराष्ट्र शासनान इनामां- पुरस्कार दिवन भोवमान केला. १९८१-८२ वर्सा ताका, मराठींतल्या म्हत्वाच्या काव्यलिखाणाक दितात तें ग. दि. माडगूळकर इनामूय फावो जालां. महाराष्ट्रांतल्या साहित्यिक कलावंतांचो प्रतिनिधी म्हूण १९७८ वर्सा महाराष्ट्र विधान परिशदेचेर, महाराष्ट्र शासनान ताची नेमणूक केली. औरंगाबाद हांगाचे वाङमयीन चळवळींतूय ताणें वांटो घेतिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**महापुराण :** एक जैन महाकाव्य. हाचें अपभ्रंश रुपाचें नांवः तिसट्ठि-महापुरिस-गुणालंकार आनी संस्कृत रूपः त्रिषष्टि-महापुरुष-गुणालंकार. पुष्पदंत हाणें हें महाकाव्य बरयलां. महापुराण ह्या नांवानूच हें काव्य चड वळखतात.

राश्ट्रकूट राजा तिसरो कृष्ण हाच्या आलाशिर्‍यान आनी उत्तेजनान पुष्पदंतान ह्या महाकाव्याचे रचणुकेक इ.स. ९५९ त सुरवात करून इ.स. ९६५ वर्सा पुराय केलें. जैन पुराणांतल्या संकेतांप्रमाणूच ताणें महाकाव्याचे संकेत पाळ्ळयात. ब्राह्मणी पुराणांतल्या सूतशौनक संवादाभशेन ह्या महापुराणाकूय मगधराज श्रेणिक आनी महावीरशिष्य (गणधर) गौतम हांच्या संवादांची फांटभूंय दवरल्या. श्रेणिकाचे विनवणेवयल्यान गौतम 'महापुराण' सांगता.

महापुराण हाचो अर्थ पुर्विल्ल्या काळांतली एक व्हड कथा असो जाता. ह्या पुराणांत २४ तीर्थंकर, १२ चक्रवर्ती, ९ वासुदेव, ९ प्रतिवासुदेव आनी ९ बलदेव अशा ६३ शलाकापुरसांचीं चरित्रां वर्णिल्यांत. म्हणूनच ह्या ग्रंथाक तिसट्टी-महापुरस-गुणालंकार अशेंय नांव आसा. ह्या महाकाव्यांत १०२ संधी आसून, तांची ३ खंडांनी वांटणी केल्या. १ ते ३७ संधी पयल्या खंडांत आसून, हो खंड 'आदिपुराण' ह्या नांवान वळखतात. ३८ ते ८० संधी दुसऱ्या खंडांत आनी ८१ ते १०२ संधी तिसऱ्या खंडांत आसून, ह्या दोनूय खंडांक 'उत्तरपुराण' अशें नांव आसा.

महापुराणाचें कथानक खुबूच व्हड आसा. ६३ महापुरसांचें वर्णन, तांच्या कितल्याशाच पूर्वजल्मांच्यो कथा आनी अवांतर कथा हाका लागून हें कथानक खुबूच व्हड जालां.

आदिपुराणांत, जैनांचो पयलो तीर्थंकर ऋषभनाथ हाचें चरित्र आयलां. उत्तरपुराणाच्या पयल्या अर्दांत म्हळयार महापुराणाच्या दुसऱ्या खंडांत २० तीर्थंकर, ८ बलदेव, ८ वासुदेव, ८ प्रतिवासुदेव आनी १० चक्रवर्ती इतल्यांचें वर्णन आसा. ह्याच खंडांत ६९ ते ७९ संधींनी रामायण कथाय आयल्या. ह्याच भागाक जैनांचें 'पउमचरिउ' वा पद्मपुराण म्हण्टात. श्रेणिकाच्या मनांत रामकथेविशीं कांय दुबाव आयिल्ल्यान ते निवळावपाखातीर तो गौतमाक विनवणी करता. ताचे उपरांत जैन धर्मियांची रामकथा सुरू जाता.

व्यास-वाल्मीकीच्या वचनांचेर विश्वास दवरून लोक वायट मार्गाक लागले, वाल्मीकीन खरी रामकथा सांगूंक ना, ती आपूण सांगता अशें कवी म्हण्टा. जैनमताप्रमाण रामाचे आवयचें नांव सुबला आनी लक्ष्मणाचे आवयचें नांव कैकयी. राम गोरो जाल्यार लक्ष्मण सावळो आशिल्लो. सीता ही रावण आनी मंदोदरी हांची धूव. ती आपल्या बापायक त्रासांत घालतली अशें भविश्य आयकल्ल्यान, रावण तिका एके पेटयेंत घालून, एका शेतांत पुरता. ती पेटी जनक राजाक मेळटा आनी जनक तिका ल्हानाची व्हड करून, तिचें रामावांगडा लग्न करता. सीता सोडून हेर सात बायलांवांगडा राम लग्न जाल्लो तशेंच लक्ष्मणाकूय सोळा बायलो आशिल्ल्यो, अशें ह्या जैन रामकथेंत सांगलां. नारदाकडल्यान सीतेची तोखणाय आयकून रावण तिका उबारून व्हरता. तेवेळार दशरथ राजा जितो आसता. रामाचें आनी रावणाचें व्हड झूज जाता, तेन्ना लक्ष्मण रावणाक मारता. उपरांत लक्ष्मण अर्धचक्रवर्ती जाता, राज्योपभोग घेवन उपरांत तो नरकांत वता. राम भिक्षू जाता आनी निर्वाणपदी पावता. राम, लक्ष्मण आनी रावण हे जैनांचे अनुक्रमान ८वो बलदेव, वासुदेव आनी प्रतिवासुदेव आसात.

हे कथेउपरांत नमीची कथा आयल्या. उत्तर पुराणाच्या दुसऱ्या अर्दांत म्हळयार महापुराणाचो ३रो खंड, हातूंत ८१ ते ९२ संधीभितर महाभारताची कथा-हरिवंश पुराण आसा. महाभारतांतल्या जायत्या पात्रांच्या पुनर्जल्माच्यो कथाय तातूंत वर्णिल्यात. निमाणें पार्श्वनाथ, महावीर, जंबूस्वामी आनी प्रीतिंकर हांच्यो कथा आयल्यात. महावीराच्या निर्वाणाच्या वर्णनान हें महापुराण सोंपयलां.

दोनूय खंड मेळून वीस हजार सुमार श्लोक ह्या काव्यांत आसात. हो ग्रंथ पुराय करपाक ताका स वर्सां लागलीं. ग्रंथांतल्या जायत्या संधींनी ताणें आपलो, आश्रयदातो भरत हाची तोखणाय केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**महाबलीपुर** : दक्षिण भारतांतली एक इतिहासीक सुवात आनी पुर्विल्लें संस्कृतायेचें केंद्र. बलिराजा वयल्यान ह्या गांवाक महाबलीपुर हें नांव मेळ्ळें, असो समज आसा. तमिळनाडू राज्याच्या, चिंगलपुट जिल्ह्यांतल्या मंदिरवास्तु - शिल्पांखातीर संवसारीक नामना आशिल्लें हें पर्यटन स्थळ बंगालच्या उपसागराचेर चेन्नइचे दक्षिणेक सु. ५७ किमी. आनी चिंगलपुटचे उदेंतेक सु. २५ किमी. अंतराचेर वसलां. इ.स. च्या पयल्या आनी दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या ग्रीक आनी रोमन ग्रंथांत हाचो मलंगी म्हूण उल्लेख मेळटा. पुर्विल्ल्या काळांत हाका मलंगे आनी कदलमल्लई अशीं नांवां आशिल्लीं. मामल्लपुरम् हें पल्लवांचें व्हड आनी भरभराटीक आयिल्लें वेपारी बंदर आशिल्लें. पल्लव वंशांतलो राजा पयलो नरसिंह वर्मा हाका महामल्ल, मामल्ल वा महाबल अशी पदवी आशिल्ली. ताणें ह्या गांवांत कितलींशींच शिल्पां तयार केलीं, ताचेवयल्यान ह्या गांवाक मामल्लपुरम् वा महाबलीपुर हें नांव मेळ्ळें, अशें इतिहासकारांचें मत आसा.

हांगा द्रविड वास्तु-शिल्पांचे सामके पुर्विल्ले अशे आविश्कार पळोवंक मेळटात. तातूंत 'रथ' ह्या नांवान नावाजिल्लीं, एकाच पाशाणांत कोरांतिल्लीं देवळां तशेंच 'अलैवाय-क-कोवील' हें दर्यादिगेवयलें शिवमंदिर आनी गंगेच्या अवतरणाविशींची कथा सांगपी सु. २९.२६मी. (९६फूट) लांब आनी सु. १३.१०मी. (४३फूट) रूंद इतलो शिल्पां पटो हे चड उल्लेख करपासारके आसात.

एकाच पाशाणी घडीव मंदिरांत म्हळ्यार रथांत पल्लवांचे मामल्ल शैलीचीं खाशेलपणां दिसून येतात. ह्या पांडव रथांचे दोन चोमे आसात. एक महाबलीपुरचे दक्षिणेचो आनी दुसरो अस्तंतेचो. ह्या नगराच्या मदेगाक एक शिलाखंड तासून आनीक एक रथ घडयला. दक्षिणेकडल्या चोम्यांत चार रथ आसात आनी अस्तंतेकडल्या चोम्यांत दोन रथ आसात. दक्षिणेचे द्रौपदी, धर्मराज, अर्जुन आनी पिडारी हे 'कूट' पद्दतीचे रथ आसात. द्रौपदी रथ एकमजली, पिडारी आनी अर्जुन दोन मजली आनी धर्मराज तीन मजली आसा. अस्तंतेचे भीम आनी गणेश ह्या नांवांचे रथ 'शाला' पद्दतीचे आसात. भीम रथ एक मजली आनी गणेश रथ दोन मजली आसा. नकुल-सहदेव हो रथ 'चाप' पद्दतीचो आसा. ह्या रथाच्या खांब्यांच्या मुळाक हत्त्याच्यो मूर्ती आसात. रथांच्या भायल्या आनी भितरल्या वण्टींचेर देवदेवतांच्यो मूर्ती कोरांतल्यात. पल्लव मूर्तिकामाचे कांय खाशेले नमुने हातूंत दिसतात. हांगाचें 'तट-मंदिर' हें वास्तुकलेचे नदरेन म्हत्वाचें आसा. तें राजसिंह वा दुसरो नरसिंहवर्मा हाणें बांदलें. तातुंतल्या एका आंगणांत ऊंच चौथऱ्याचेर तीन मंदिरां आनी हेर वास्तू आशिल्ल्यो. पूण सद्या थंय फकत देवळां आनी तांकां घेरो घाल्ली एक वणत आसा. तातूंत उदेंतेचें 'क्षत्रियसिंहेश्वर' आनी अस्तंतेचें 'राजासिंहेश्वर' देवूळ आसा. हें देवूळ पयल्यापरस आकारान ल्हान आसा. ह्या दोन देवळांमदले रिते सुवातेंत, फातरांत अनंतशायी विष्णुची मूर्ती घडयल्या. तिचेर पाखें घालां. पयल्या दोन देवळांचे गाभारे चौरस आसून तांच्या सामकार ल्हान आकाराचे मुखमंडप आसात. वण्टींनी अर्द्या खांब्याच्या आदारान चौकटी घाल्यात. ह्या अर्द खांब्याच्या मुळाक शिंवाच्यो मूर्ती आसात. पीठाच्या प्रस्तराचेर आनी हात, कान हांचेर शींव, हत्ती, व्याल हांच्यो आकृत्यो आशिल्ल्यो. दोनूय मंदिरांचीं तेमकां भागाभागांनी वयर वचपी आसात. तेमकाक खुबशो माळयो आसल्यो तरी तें तेमूक भायल्यान पळोवपाक अखंड दिसता. दर एके माळयेचेर कूट आनी शाला ह्या वास्तुंच्यो ल्हान प्रतिकृतींच्यो मालिका कोरांतल्यात.

ह्या मन भुलवण्या पल्लवकाळांतल्या द्राविड मंदिरांभितर खास उल्लेख करपा सारको आसा तो 'गंगावतरण' शिल्पपट्ट. हांगा भगीरथ राजाची तपश्चर्या आनी गंगादेवीचें धर्तरेचेर अवतरण हे विशय शिल्पकारांनी आपल्या प्रतिभा सामर्थ्यान बरे तरेन उतरायल्यात. शिल्पकामाखातीर अखंड असो शिलाखंड घेतला. ह्या शिलाखंडांतल्या झिळींचो मोठे कुशळतायेन उपेग केला. ह्या झिळींनी नागराज, नागबायलो हांच्यो मूर्ती कोरांतल्यात.

पयलीं शिलाखंडाच्या माथ्यार व्हड कुंड आशिल्लें. थंयसावन ह्या फटींनी उदक सोडटाले, म्हळ्यार ही गंगा जाली. हे गंगेच्या दोनूय देगांचेर उदक व्हरपाक येवपी ऋषीमुनी तशेंच उदक पिवपाक येवपी हरणांचीं चित्रां आसात.

हांगा दोन फावटी भगीरथाचें दर्शन घडटा. एकदां हात वयर करून तपश्चर्या करपी आनी उपरांत शिवाचो आशीर्वाद घेवपी. ताच्या शेजरा विष्णुमंदिर आसा. ताच्या फुडल्या शिल्पांत हात वयर करून तप करपी माजर आनी ताचे भोंवतणी हुंदीर दाखयल्यात. दुस्मान आशिल्लो लेगीत इश्ट जाता, असो कथाभाग हातुंतल्यान दिसता. तशेंच आकाशगामी विद्याधर, गंधर्व-इंद्र हे देव-देवता आनी व्हड हत्त्याच्यो मूर्ती आसात. इतल्या व्हड प्रमाणाचेर कोरांतिल्लो आनी इतले कलात्मकतेन घडयल्लो शिल्पपटो आनी खंयच दिश्टी पडना.

थंयच लागसारूच एका फातरांत कोरांतिल्लें एक सोबीत तीन माळयांचें देवूळ आसा. तातूंत पयलीं शिवलिंग आसुंये. पूण सद्या थंय गणपतीची स्थापणूक केल्या आनी त्या देवळाक गणेशरथ हें नांव मेळ्ळां. ह्या मंदिरासामकार वराहमंडप आसा. तातूंत वराहरुपी विष्णु, धर्तरेक दर्यांतल्यान वयर काडटा अशें सोबीत शिल्प कोरांतलां. त्याच मंडपांत गजलक्ष्मीचें आनी वामनावताराचेंय चित्र कोरांतिल्लें आसा. ह्या गांवांत एका दोंगराच्या तेमकाचेर एक शिवमंदिर आसा, ताका ओलक्कनाथाचें मंदिर म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**महाबळेश्वर :** महाराष्ट्रांतलें नामनेचें थंड हवेचें थळ आनी सातारा जिल्ह्यांतल्या ह्याच नांवाच्या तालुक्याचें मुखेल ठिकाण. हें थळ साताऱ्याचे वायव्येक ५३किमी. अंतराचेर आनी पुण्यासावन नैर्ऋत्येक १२१किमी. अंतराचेर आसा. अस्तंत घाटाच्या सह्यदोंगरावळींतल्या एका सपाट वाठाराचेर दर्या पातळेसावन १३७२मी. उंचायेचेर महाबळेश्वर वसलां. हांगा आशिल्ली सगळयांत उंचेली दोंगुल्ली सिंदोला (१४३५.६मी.) आनी ताचे फाटोफाट कॉनॉट तेंगशी (१४१५.५मी.) ह्यो उल्लेख करपासारक्यो तेंगशो आसात. ब्रिटीश काळांत मुंबयचो गव्हर्नर सर जॉन मॅल्कम हाणें १८२८ त साताऱ्याच्या राजाकडल्यान जागो मेळोवन थंय ह्या थळाची स्थापना केली. ताच्या नांवावयल्यान हाका माल्कम्पेठ अशेंय नांव पडलें.

महाबळेश्वराक वर्सुकी पावस सरासरी सुमार ६२३ सेंमी. आसून थंडेच्यादिसांनी हांगाचें सरासरी तापमान १७.४°से. आनी गिमांत सरासरी तापमान ३२.२° से. आसता.

हांगा भरपूर पावस पडटा आशिल्ल्यान हांगाचो पुराय वाठार दाट रानांनी भरिल्लो आसून तातूंत जायते रुखांचे प्रकार दिसून येतात. तातूंत जांभळ, ओक, हिरडो, अंजन, आंबो, बेहडा, वरस, कारवी हांचें प्रमाण भरपूर आसून अर्थीक नदरेन तांकां बरेंच म्हत्व आसा. हांगासल्ल्या रानांत बिबळो, तरस, कोले, सोंशे, रानदूकर, वानर, माकडां आदी जनावरां आनी वेगवेगळया प्रकारचीं जिवाणींय मेळटात. तेचपरी बुलबुल, स्परफाउल, बर्ड ऑफ पॅरॅडाइज, पाण कावळो, सुतार पक्षी, कोकिळ, तशेंच हनीसकर ह्या सारके वेगवेगळया प्रकारचे पक्षीय मेळटात.

यादवकाळासावनच महाबळेश्वराचो उल्लेख मेळटा. साताऱ्याच्या राजाकडल्यान हांगासल्ले सोबितकायेचें वर्णन आयकतकच जनरल लॉडविक हाणें १८२४त ह्या वाठाराची पळोवणी केली. १८२६त जनरल ब्रिग्ज हाणें हांगा एक कुटी बांदली. तशेंच साताऱ्याच्या महाराजाक हांगा रस्तो बांदूक सांगलो. १८२७ त मुंबयचो गव्हर्नर सर जॉन हाणें हांगा युरोपीय सैनिकांखातीर हॉस्पिटल बांदलें. खारवी, धनगर, धवड, कुळवाडी ह्यो हांगाच्यो मूळ जमाती. चिनी आनी मलायी कैद्यांक दवरपाखातीर १२० कैद्यांक फाव अशी बंदखण हांगा बांदिल्ली.

शाराचे उत्तरेक सुमार ४किमी. अंतराचेर पोरनें महाबळेश्वर क्षेत्र आसा. ताचेवयल्यानच ह्या दोंगुल्ल्यांच्या वाठाराक महाबळेश्वर हें नांव पडलें. हांगा आशिल्लें महाबळेश्वराचें देवूळ इ.स. १२१५त यादववंशी राजा सिंघणदेव हाणें बांदलें. ह्या देवळालागसार कृष्णाबाई आनी अतीबलेश्वर हीं दोन देवळां आसात. महाबळेश्वर आनी अतिबलेश्वर हीं नांवां 'महाबल' आनी 'अतिबल' ह्या दोन बळिश्ट आनी वीर अशा राक्षस भावांवयल्यान आयलीं अशी आख्यायिका स्कंद पुराणांतल्या सह्याद्रीखंडांत दिल्ली आसा. कृष्णाबाईच्या देवळाक पंचगंगेचें देवूळ अशेंय म्हण्टात. ह्या देवळांत कृष्णा, कोयना, वेण्णा, गायत्री आनी सावित्री ह्या पांच न्हंयांचीं उगमस्थानां दाखयतात. ३मी. अंतराचेर ह्या पांच न्हंयांचें उदक एकठांय येवन एका गोमुखांतल्यान (गायेच्या तोंडांतल्यान) एका कुंडांत पडटा आनी थंयसावन तें दुसऱ्या कुंडांत वता. हाका ब्रह्मकुंड अशें म्हण्टात. फाल्गुन म्हयन्याच्या वद्य पक्षांत पांच दीस कृष्णाबाईचो उत्सव, आश्विन म्हयन्याच्या वद्य पक्षांत धा दीस नवरात आनी माघ म्हयन्यांत सात दीस शिवरात अशे तीन उत्सव हांगा दर वर्सा जातात. हांगा माणिकबाई आनी गंगाबाई अशीं दोन आरोग्यधामांय आसात.

१८६४त हांगा फ्रेअर हॉल बांदिल्लो. हातूंत ग्रंथालय आनी वाचनालय आसा. स्ट्रॉबेरी आनी रसबेरी हीं हांगाचीं नामनेचीं आनी म्हत्वाचीं फळां. हांगाच्या स्ट्रॉबेरीखातीर तशेंच मुरांबे आनी जेलीखातीर महाबळेश्वराची नामना आसा. हांगा गंव, नाचणी, वरी, तांदूळ, कोबी, तांबडे बटाट, गाजर, कॉफी आदींचीं उत्पादनां काडटात. म्होंवां-मुसांच्या पालनावरवीं म्होंव काडपाचीं हांगा केंद्रां आसात. राज्यशासनाचेवतीन भोंवडेखातीर हॉलिडे कँपाची वेवस्था हांगा आसा.

हांगाच्या थंड हवामानाखातीर मार्च ते मे ह्या म्हयन्यांनी भोंवडेकारांची हांगा भरपूर गर्दी आसता. हांगा भोंवडेकारांक पळोवपाखातीर जायतीं थळां (पॉइंटस्) आसात. देखीक : आर्थरसीट, एल्फिन्स्टन पॉइंट, सिडनी वा लॉडविक पॉइंट, बॉंबे पॉइंट, कार्नाक, केट्स पॉइंट, क्षेत्र महाबळेश्वर, वेण्णा लेक (तळें), प्रतापसिंह उद्यान, महाबळेश्वर वाठाराच्या लागसार आशिल्लीं प्रतापगड, मकरंदगड, कमळगड, पाचगणी हींय थळां पळोवसारकीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**महाभारत :** दोन भारतीय महाकाव्यांतलें एक महाकाव्य. रामायण हें दुसरें महाकाव्य. महाभारताची रचणूक संस्कृत भाशेंतल्यान जाल्ली आसून, तें संवसारांतलें एक सगळयांत व्हड अशें काव्य आसा. प्रचलित महाभारतांत सुमार एक लाख श्लोक आसून तांची वेगवेगळया अठरा पर्वांनी विभागणी केल्ली आसा. कृष्णद्वैपायन व्यास हाणें हो ग्रंथ रचला अशी सर्वसादारण समजूत आसा. पूण तज्ज्ञांच्या मतान ही एका मनशाची करणी नासून, ताचे खूब कर्ते आसात. श्लोकांची रचना, मोवाळ भास आनी श्लोकांत केल्ल्या वर्णनांचें व्हडपण ह्या गुणांक लागून महाभारत ग्रंथाक महाकाव्याचो मान मेळ्ळो.

हस्तिनापुरच्या कुरू राजाचे वंशज कौरव-पांडव हांच्यांत ल्हानपणासावन निर्माण जाल्ली दुस्मानकाय, तांच्यांतले मतभेद, तांच्यांत वेगवेगळया प्रसंगांचेर जाल्लीं किजीलां आनी निमाणेकडेन तांच्यांत जाल्लें व्हड झूज होच महाभारत ग्रंथाचो सार आसा. कुरुवंशीय सम्राट शंतनू हाचीं दोन लग्नां जालीं. ह्या लग्नासावनूच ही विरकथा सुरू जाता. शंतनूची पयली बायल गंगा हिचेपसून ताका देवव्रत (भीष्म) हो चलो

जालो. उपरांत ताणें दाश राजकन्या सत्यवतीकडेन लग्न केलें. पूण लग्न जावचे पयलीं तिणें आपल्या चल्याकूच राजपद मेळचें म्हूण शंतनूक अट घातिल्ली. पितृभक्तीक लागून देवव्रतान ह्या लग्नाक मान्यताय दिली. आपूण राजपद घेवचो ना आनी पुराय आयुश्य ब्रह्मचारी रावतलो अशी व्हड प्रतिज्ञा ताणें केली. हाका लागून ताका 'भीष्म' हें नांव मेळ्ळें.

शंतनूकडेन लग्न जावचे पयलीं, सत्यवती हिका पराशर मुनीसावन कृष्णद्वैपायन व्यास हो चलो जाल्लो. ह्या व्यासान मुखार 'महाभारत' हें महाकाव्य रचलें. शंतनूकडेन लग्न जालेउपरांत सत्यवतीक चित्रांगद आनी विचित्रवीर्य हे चले जाले. पूण तांकां भुरगेपणांतूच मरण आयलें. हाका लागून आपली वंशावळ चालू दवरपाखातीर सत्यवतीन आपलो कानीन चलो कृष्णद्वैपायन व्यास हाचेवरवीं आपल्या सुनांच्या म्हळ्यार अंबिका आनी अंबालिका हांचे कुशींत नियोगविधीन धृतराष्ट्र आनी पांडू हे दोन चले निर्माण केले. धृतराष्ट्र कुड्डो आशिल्ल्यान पांडूक राजपद मेळ्ळें. उपरांत धृतराष्ट्राचें गांधारीकडेन तर पांडूचें कुंती आनी माद्रीकडेन लग्न जालें. धृतराष्ट्राचे शंबर चले कौरव आनी पांडूचे पांच चले पांडव हे एकठांयूच वाडले. पूण ल्हानपणासावनूच असुयेंतल्यान तांच्यांत सदांच किजीलां जातालीं. मुखार राजपद कोणाक मेळचें हाचेर वाद जावन तांचेभितरली दुस्मानकाय चड वाडली. निमाणेकडेन ह्या महाकाव्यांत कौरव-पांडव हांचेभितर जाल्ल्या म्हाझुजाचें वर्णन केलां. कुरुक्षेत्राच्या मळार जाल्लें हें झूज अठरा दीस चालू आशिल्लें. ह्या झुजांत भारतांतल्या चडशा राजांनी वांटो घेतिल्लो. हातूंत कौरवांचो पुरायपणान नाश जालो. निमाणेकडेन अभिमन्यूसावन उत्तरेक जाल्लो चलो परिक्षित हाका हस्तिनापूरांत राज्याभिशेक करून पांडव स्वर्गलोकांत गेले.

झूज काबार जालेउपरांत कौरव-पांडवांचो पितामह व्यास मुनी हाणें ही झूजकथा श्लोकांच्या रुपांत गणपतीक सांगली. गणपती देवान ती एके रातीभितर बरोवन काडली असो समज आसा. होच ग्रंथ मुखार महाभारत नांवान प्रसिध्द जालो.

महाभारताची मुखेल कथा १८ पर्वांनी सांगल्या, ती अशी : १) आदि, २) सभा ३) वन ४) विराट ५) उद्योग ६) भीष्म (७) द्रोण ८) कर्ण ९) शल्य १०) सौप्तिक ११) स्त्री १२) शांती १३) अनुशासन १४) आश्वमेधिक १५) आश्रमवासिक १६) मौसल १७) महाप्रस्थानिक १८) स्वर्गारोहण.

**१) आदिपर्व :** हें पर्व दुष्यंत-शकुंतला हांचो चलो सम्राट भरत, हाचे वीरकथेसावन सुरू जाता. भरताच्या कुळांत हस्तिनापूर हांगा जल्माक आयिल्लो कुरू राजा आनी मुखार कुरूवंशीय सम्राट शंतनू हांची कथाय हातूंत सांगल्या. शंतनूची पयली बायल गंगा, हिचे पसून ताका देवव्रत हो चलो जालो. उपरांत शंतनूचें सत्यवतीकडेन लग्न जालें. आपल्या बापायचें सत्यवतीकडेन लग्न जावचें म्हूण देवव्रत हाणें केल्ले प्रतिज्ञेक लागून तो मुखार भीष्म ह्या नांवान प्रसिद्द जालो. सत्यवतीक, चित्रांगद आनी विचित्रवीर्य हे दोन चले जाल्ले. पूण तांकां ल्हानपणांतूच मरण आयलें. कुरू वंशावळ चालू दवरपाखातीर सत्यवतीन आपलो कानीन चलो व्यास हाचे सावन नियोग विधीन अंबालिका आनी अंबिका ह्या विचित्रवीर्याच्या विधवांचे कुशींत पांडू आनी धृतराष्ट्र निर्माण केले. विदूर हो व्यासासावन विचित्रवीर्याचे दासीक जाल्लो चलो. तो म्हागिन्यानी आशिल्लो. धृतराष्ट्र, पांडू आनी विदूर हांचें शिक्षण एकेचकडेन जालें. उपरांत धृतराष्ट्राचें गांधारी कडेन तर पांडूचें कुंती आनी माद्री कडेन लग्न जालें. एक दीस पांडू शिकार करपाच्या निमतान रानांत गेल्ले कडेन ताच्या हातांतल्यान चुकून एका मुनीचो वध जालो. त्यावेळार तो मुनी, आपले बायलेचो उपभोग घेतालो. मरता आसतना ताकाय उपभोग घेतना मरण येवं असो त्या मुनीन पांडूक शाप दिलो. हाका लागून कुंतीन एका ऋषीन शिकयल्ले मंत्रविद्येच्या आदारान यम, वायू आनी इंद्र ह्या देवांसावन आपले कुशींत धर्म, भीम आनी अर्जुन हे चले निर्माण केले. आश्विनीकुमारासावन माद्रीचे कुशींत नकुल आनी सहदेव जल्माक आयले. जूस्त ह्याच वेळार गांधारीय गुरवार आशिल्ली. आपले आदीं कुंती आनी माद्रीक चले जाले हें आयकून तिका व्हड धक्को बसलो. ह्या धक्क्यानूच तिचो गर्भपात जालो. पूण ती गर्भपेशी इबाडची न्हय म्हूण तुपाचे कायलींत दवरिल्ली. व्यासाचे सांगणेवयल्यान त्या गर्भाचेर थंड उदकाचो शिंताडो मारतकूच ताचे एकशे एक कुडके जावन तातूंतल्यान शंभर चले आनी एक चली जाली. हेच शंभर चले मुखार कौरव म्हूण प्रसिद्द जाले. दुर्योधन हो कौरवांचो व्हडलो भाव. उपरांत पांडून राजपदाचो त्याग करून तो माद्री सयत वनयात्रेक गेलो.

पांडू वनप्रस्थ जाले उपरांत धृतराष्ट्र राजा जालो. ताचे शंभर चले कौरव आनी पांडूचे पांच चले पांडव एकठांयूच वाडले. पूण ते सदांच एकामेकांचो दुस्वास करताले. द्रोणाचार्य हो तांचो गुरू आशिल्लो. कुंतीचो कानीन चलो कर्ण होय कौरव-पांडवांवांगडा धनुर्विद्या शिकलो. कर्ण आनी दुर्योधन हांच्यांत अतूट इश्टागत निर्माण जाली. दुर्योधनान कर्णाक अंगदेशाचो राजा केलो. मुखार दुर्योधन हाणें बलरामाकडच्यान गदाझुजाचें शिक्षण घेतलें तर कर्ण हाणें परशुरामाकडल्यान अस्त्रविद्येचें गुपीत जाणून घेतलें.

कौरव-पांडव हांचें शिक्षण सोंपले उपरांत भीष्म हाणें कुरू घराण्याचो जेश्ठ पुत्र युधिष्ठीर हाचो राज्याभिशेक केलो. अशे रितीन राज्यवेव्हाराचीं सुत्रां पांडवांकडेन आयलीं. कौरवांक हे गजालीची तिडक मारली. तांणी वारणावत नगरींतल्या लाखेच्या महालांत पांडवांक हुलपावन मारपाचो बेत रचलो. पूण विदुर हाणें पांडवांक वेळारूच शादूर केल्ल्यान, त्या महालाक उजो पेटोवन पांचूय पांडव कुंतीक घेवन रानांत पळून गेले. रानांत लिपून भोंवता आसतना, पांडवांनी केल्ल्या धाडसी कृत्यांचें वर्णन ह्या पर्वांत सांपडटा. ह्याच तेंपार भिमाचें लग्न हिडींबा हे राक्षस कुळयेंतले चलयेकडेन जालें. हिडींबाक उपरांत भीमासावन घटोत्कच हो चलो

जालो. मुखार पांडवांनी द्रुपद राजाच्या दरबारांत वचून ताची चली द्रौपदी कशी मेळयली, तशेंच ह्या वेळार पांडवांची श्रीकृष्णाकडेन जाल्ली वळख आनी उपरांत पांचूय पांडवांचें द्रौपदीकडेन कशे रितीन लग्न जालें हाची पुराय म्हायती ह्या पर्वांत मेळटा.

पांडव जिवीत आसात आनी तांचें द्रौपदीकडेन लग्न जालां ही खबर कळटकूच, भीष्म आनी धृतराष्ट्र हांणी पांडवांक आफोवन हाडले. पांडव हस्तिनापुरांत परत आयल्याउपरांत तांचें आनी कौरवांचें वैर आनीक वाडलें. तांच्यांत परत किजीलां जावपाक लागलीं. हाका लागून भिष्मान राज्याचे दोन वांटे करून इंद्रप्रस्थ ही राजधानी पांडवांक दिली. इंद्रप्रस्थ हांगा रावपाक आयलेउपरांत एके बायलेवयल्यान पांडवांभितर तंटो जावचो न्हय म्हूण नारदान वर्सांतले दोन म्हयने बारा राती एका पांडवान द्रौपदीकडेन संबंद दवरचो असो नेम घालून दिलो. हो नेम मोडटा ताणें एक वर्स वनवास भोगचो अशेंय तांणी थारायलें. एके रातीक चुकून अर्जुनाकडच्यान नेमभंग जाल्ल्यान ताणें एक वर्स वनवासाची ख्यास्त भोगून प्रायश्चित घेतलें. हें प्रायश्चित करता आसतना अर्जुनाचें उलुपी नागकन्येकडेन तशेंच चित्रांगदा हे राजकन्येकडेन लग्नां जालीं. उपरांत श्रीकृष्णाची भयण सुभद्रा हीचेकडेन अर्जुनाचें लग्न जालें. प्रायश्चित घेतल्या उपरांत तो सुभद्रेक घेवन इंद्रप्रस्थाक परत आयलो. उपरांत द्रौपदीक पांडवांसावन पांच चले जाले आनी सुभद्रेक अर्जुनासावन अभिमन्यू जालो.

**सभापर्व :** मायासूर हाणें पांडवांक दिल्ले व्हड अशे अद्भूत सभेंत (महाल) युधिष्ठीर गादयेर बसलो. नारदान ताका राजसूय यज्ञ करपाक सांगलें. हो यज्ञ घडोवन हाडपाखातीर भीम, अर्जुन, नकुल आनी सहदेव हांणी चारूय दिकांचेर जैत मेळोवन खूब धनसंपत्ती इंद्रप्रस्थाक हाडली. ह्या वेळार भीमान जरासंधाचो वध केल्लो. राजसूय यज्ञ चालू आसतना अग्रपुजेवेळार शिशुपाल हाणें आडमेळीं हाडपाचे यत्न केले म्हूण श्रीकृष्णान आपल्या सुदर्शन चक्रान ताचो वध केलो.

इंद्रप्रस्थ हांगा रावून पांडव स्वतंत्रपणान राज्यकारभार चलोवपाक लागले. पूण तांच्यांतलें आनी कौरवां भितल्लें वैर केन्नाच उणें जालें ना. पांडवांचो खंयचेय स्थितींत पराभव करप हें कौरवांचें मुखेल ध्येय जालें. हाका लागून शकुनीच्या सांगण्यावल्यान दुर्योधनान, पांडवांक द्यूत खेळपाखातीर हस्तिनापुरांत आपयले. हस्तिनापुरांत आयल्याउपरांत, शकुनी कौरवांचे वतीन तर युधिश्ठीर पांडवांचे वतीन द्यूत खेळपाक लागले. हातूंत युधिश्ठीराचो पुरायपणान पराभव जालो. पांडव कौरवांचे दास तर द्रौपदी दासी जाली. द्रौपदी कौरवांची दासी जाल्याउपरांत, दुःशासनान तिका भर दरबारांत हाडून तिचें वस्त्रहरण करपाचो यत्न केलो. पूण जूस्त ह्या वेळार श्रीकृष्ण येवन ताणें द्रौपदीची लज राखली. सभापर्वांतली ही कृष्ण-द्रौपदीची आख्यायिका खूब प्रसिध्द आसून ती वेगवेगळ्या आवृत्त्यांनी वेगवेगळे तरेन सांगल्या. ह्या वेळार थंय आशिल्ल्या धृतराष्ट्राक आपल्या पुतांचें कर्तूत्व आवडलें ना. ताणें पांडवांक दास्यमुक्त करून तांचें राज्य तांकां परत दिलें. पूण कौरवांनी आपल्या बापायक विरोध करून पांडवांक द्यूत खेळपाखातीर परत आव्हान केलें. हे खेपे कोण हारतले ताणें बारा वर्सां वनवास आनी एक वर्स अज्ञातवास भोगचो अशी अट घाली. ह्या वेळारूय पांडवांचो पराभव जालो. हो सगळो इतिहास ह्या पर्वांत सांगला.

**वनपर्व :** द्यूत खेळांत, दुसरे खेपेय पराभव जाल्या उपरांत पांडव द्रौपदीक घेवन, कार्तिक शुध्द पंचमी दिसा रानांत गेले आनी थंयच्या तांच्या राबित्या संबंदींचें वर्णन ह्या पर्वांत आयलां. पांडव रानांत पावले, तेन्ना सावनूच ते कौरवांआड झूजपाचे तयारेक लागले. हाका लागून अर्जुन हिमालयाचेर गेलो. थंय ताणें तप करून शंकर देवाकडच्यान पाशुपतास्त्र हाशील केलें. उपरांत अश्ट लोकपालांनीय ताका आपआपल्यो शक्ती दिल्यो. इंद्रलोकांत गेल्लो तेन्ना इंद्रान अर्जुनाक आपल्याकडच्यो सगळ्यो अस्त्रविद्या शिकयल्यो. अर्जुन तपश्चर्येक गेल्लो त्या वेळार हेर पांडवांनी लोमश ऋषीवांगडा तीर्थयात्रा केल्यो. तीर्थयात्रा करून जालेउपरांत पांडवांनी द्वैतवनांत आपलो राबितो केलो. द्वैतवनांत आसतना जयंद्रथ हाणें द्रौपदीचो अपमान केल्लो म्हूण पांडवांनी ताका आपलो दास केलो.

**विराट पर्व :** अज्ञातवासांत, पांडवांच्या विराट नगरींतल्या वेव्हाराचें दर्शन ह्या पर्वांत घडटा. बारा वर्सांचो वनवासाचो काळ सोंपत आयलो तसो, एक वर्साचो अज्ञातवास खंय काडचो हो व्हड प्रस्न पांडवां मुखार उबो रावलो. त्या वेळार यमधर्म हाणें तांकां दर्शन दिवन, पांडवांक विराट राजाचे नगरींत अज्ञातवास काडपाचो आदेश दिलो. विराट नगरींत वचचे पयलीं पांडवांनी आपलीं शस्त्रां एका शमी रुखार दवरलीं. विराट राजनगरींत आयल्या उपरांत युधिष्ठीर कंक ब्राह्मण जालो. भीम विराटाच्या पाकघरांत रांदपी म्हूण वावूरपाक लागलो. अर्जुन बृहन्नडा जावन नृत्यशाळेंत चलयांक नृत्य-गायन शिकोवपाक लागलो. तर नकूल विराट राजाच्या घोड्यांची आनी सहदेव गोरवांची देखरेख करपाक लागलो. द्रौपदी ही सैरंध्री जावन राजघराण्यांतल्या बायलांक तांचो शृंगार करपाक मदत करूंक लागली. ह्या तेंपार विराट राणी सुदेष्णाच्या भावांनी म्हळयार कीचक आनी अनुकीचक हांणी द्रौपदीचो विनयभंग करपाचो यत्न केलो, म्हूण भिमान त्या दोगांयकूय मारून उडयले.

अज्ञातवास पुराय जावचे पयलीं पांडवांक कोणेय वळखले जाल्यार, तांणी परत बारा वर्सां वनवास आनी एक वर्स अज्ञातवास करचो पडटलो अशी द्युतांतली अट आशिल्ली. हाका लागून कौरवांनी पांडवांक अज्ञातवास सोंपचे पयलीं सोदून काडपाखातीर चारूय दिकांनी गुप्तहेर धाडिल्ले. कीचक आनी ताचो भाव अनुकीचक हांकां कोणेतरी जिवेशीं मारल्यात ही खबर गुप्तहेरांकडच्यान कौरवांक कळ्ळी. भीमाखेरीज कीचकाक मारप दुसऱ्या कोणाकूच शक्य ना हाची कौरवांक पुराय जाणीव आशिल्ली. हाका लागून पांडवांक सोदून काडपाखातीर कौरवांनी विराट राज्याचेर घुरी घाली. कौरवांआड झूजपाखातीर पांडवांनी विराट राजाक आदार

केलो. अर्जुनाक झुजामळार पळोवन दुर्योधन खोशी जालो. अज्ञातवास पुराय जावचे पयलींच पांडवांची वळख पटली, हाका लागून पांडवांनी परतून बारा वर्सां वनवास आनी एक वर्स अज्ञातवास काडचो अशें दुर्योधनान फर्मायलें. पूण पांडवांनी एक वर्साचो अज्ञातवास पुराय केला हें भीष्मान कौरवांक पटोवन दिलें. दुर्योधन आपलें सैन्य घेवन परत गेल्याउपरांत, पांडवांनी आपलें खरें रूप विराट राजाक दाखयलें. मुखार विराट राजान आपली धूव उत्तरा हिचें अभिमन्यूकडेन लग्न लावन दिलें. ही सगळी कथा ह्या पर्वांत सांगल्या.

**उद्योगपर्व** : पांडव विराट नगरीसावन आयल्या उपरांत तांणी श्रीकृष्णाचे मध्यस्थीन कौरवांकडेन आपलें राज्य परत मागलें. पूण कौरवांनी तें मानलेंना. निमाणेकडेन आपलें राज्य मेळोवपाखातीर पांडवांमुखार झूज हो एकूच मार्ग उरलो. पांडव आपलेआड झुजाची तयारी करतात हाची जाणीव जावन कौरवांनी हेर राजांकडेन युती करपाक सुरवात केली. अशे रितीन दोनूय पंगडांनी व्हड सैन्य उबें केलें. सादारणपणान कुलू-कांगडा ते मध्य आशियामेरेनच्या राजांनी कौरवांक तेंको दिल्लो. मध्यदेश, विंध्यपृष्ठ, प्राच्यजनपद, अपरान्त आनी सौराष्ट्र हांगाचे राजा पांडव पक्षाक मेळळे.

झूज टाळपाचो निमाणो उपाय म्हूण श्रीकृष्ण सात्यकी हाका घेवन हस्तिनापुराक गेलो. कौरवांचे सभेंत ताणें नमळायेन पांडवांक अर्दे राज्य दिवपाक सांगलें. पूण कौरव पांडवांक राज्याचो इल्लो कुडको लेगीत दिवपाक तयार ना जाले. कृष्णाचो हो निमाणो उपायूय निकामी थरलो. कौरवांचे सभेंतल्यान निर्शेवन भायर सरील्लो कृष्ण उपरांत कर्णाक वचून मेळ्ळो. कर्ण हो कुंतीचो लग्नापयलींचो चलो आसून पांडवांचो व्हडलो भाव आसा हाची जाणीव करून दिवन, कृष्णान कर्णाक पांडव पक्षाक मेळपाक सांगलें. पूण कर्ण दुर्योधनाचो लागींचो इश्ट आशिल्ल्यान ताणें हो प्रस्ताव मान्य केलो ना. श्रीकृष्ण शिश्टाय हे नामनेचे घडणूकेचें वर्णन ह्या पर्वांत आयलां.

**भीष्मपर्व** : झूज टाळपाचे सगळे उपाय निकामी थरल्याउपरांत युधिश्ठिरान आपल्या भावांक झुजाची परवानगी दिली. दोनूय पक्ष आपआपलें व्हड सैन्य घेवन कुरूक्षेत्र मळाचेर उबे रावले. द्यूत खेळांत कौरवांनी केल्ल्या अपमानाचो बदलो घेवपाखातीर पांडव वनवासांत गेल्ले तेन्ना सावनूच तयारेक लागिल्ले. पूण झुजाक उबे रावल्या उपरांत आपल्याच गुरूचो, दायज्यांचो, तसोच भावांचो वध करप म्हळ्यार व्हड पाप करप हें येवजून अर्जुन सुरवेक कौरवांआड झगडपाक तयार नासलो. पूण ह्या वेळार भगवान श्रीकृष्णान अर्जुनाक उपदेश करून झूज करपाक प्रवृत्त केलो. भीष्मपर्वांत श्रीकृष्णान अर्जुनाक उपदेश सांगलो तो भगवद्‌गीता नांवान प्रसिध्द आसून तो हिंदू धर्माचो एक पवित्र ग्रंथ आसा. भगवद्‌गीता ही ह्या पर्वाची एक व्हड देणगी आसा.

धृष्टद्यूम्न हो पांडवांचो सेनापती जाल्यार कौरवांनी भीष्माक सेनापती म्हूण नेमिल्लो. भीष्म पर्वांतली म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार, झुजाच्या णवव्या दिसा भीष्मान केल्लो व्हड पराक्रम आनी उपरांत अर्जुनान केल्लो भीष्माचो वध. भीष्म हो एक पराक्रमी झुजारी आशिल्लो. हाका लागून ताका मारपाखातीर अर्जुनाक शिखंडीचो आदार घेवचो पडलो. धाव्या दिसा शिखंडी भीष्मामुखार उबो रावलो. पूण आपूण बायलमनशेवांगडा केन्नाच झगडचो ना अशी भीष्मान प्रतिज्ञा घेतिल्ली. शिखंडी हो मुळांत बायल आशिल्लो आनी उपरांत दादलो जालो. हाका लागून भीष्मान शिखंडीचेर शस्त्र उबारलें ना. हे स्थितीचो फायदो घेवन, अर्जुन शीखंडीच्या आडसाक रावून भीष्माचेर बाण सोडीत रावलो. खूब बाण लागिल्ल्यान भीष्म रथांतल्यान सकयल पडलो. भीष्म जमनीचेर पडिल्लो तेन्ना दक्षिणायन आशिल्लें. तो इच्छामरणी आशिल्ल्यान उत्तरायण लागमेरेन ताणें प्राण सोडलो ना.

**द्रोणपर्व** : ह्या पर्वांत द्रोणाचार्याचे झुजांतले कामगिरीचें वर्णन आसा. भीष्म सकयल पडल्याउपरांत दुर्योधनान गुरू द्रोणाचार्य हाका कौरवांचो सेनापती म्हूण नेमलो. ह्या पर्वांत द्रोणाचार्य हाणें रचिल्ल्या चक्रव्युहाचें आनी अभिमन्यू हाणें केल्ल्या व्हड पराक्रमाची व्हडवीक सांगल्या. द्रोणाचार्य सेनापती जाल्याउपरांत कौरव-पांडवांभितर भिरांकूळ झगडीं जालीं. ह्या झुजांत अभिमन्यू हाणें व्हड पराक्रम करून राजा शल्य आनी जयंद्रथ हाचें सैन्य काबार केलें. हाका लागून जयंद्रथ हाणें अभिमन्यूचो सूड घेतलो अशी प्रतिज्ञा केली. दुसरे दिसा अर्जुन पयस गेला तें पळोवन द्रोणाचार्यान चक्रव्युहाची उबारणी केली. द्रोणाचार्य आनी अर्जुना खेरीज हेर कोणाकूच चक्रव्युहाविशीं म्हायती नाशिल्ली. चक्रव्युहाविशीं व्हडलीशी म्हायती नासतना लेगीत अभिमन्यू व्युहांत भितर सरलो. तेन्ना जयंद्रथाकडल्यान ताचो वध जालो. अभिमन्यू मेलो म्हूण अर्जुनाक खूब दुख्ख जालें. तशेंच जयंद्रथाची ताका तिडकूय मारली. तिडकीच्या भारांत दुसरे दिसा सूर्य अस्ताक वचचे पयलीं जयंद्रथाचो वध करतलो अशी अर्जुनान प्रतिज्ञा केली. दुसरे दिसा जयंद्रथाचो वध करपाक श्रीकृष्णान अर्जुनाक आदार केलो. जयंद्रथ वध जाल्याउपरांत त्या दिसा झुजाचे नेम मोडून मशालींच्या उजवाडांत रातचें लेगीत झूज चालूच आशिल्लें. त्या दिसा पांडवांचे वतीन भीमाचो पूत घटोत्कच हाणें व्हड पराक्रम केलो. घटोत्कच कौरव सैन्याक कसोच बाडगना तें पळोवन दुर्योधनाच्या सांगण्यावयल्यान कर्णान अर्जुनाखातीर राखून दवरिल्ल्या वासवीशस्त्राचो घटोत्कचाक मारपाक उपेग केलो. तेच रातीकडेन धृष्टद्युम्नान संद पळोवन द्रोणाचो शिरच्छेद केलो.

**कर्णपर्व** : धृष्टद्युम्न हाणें द्रोणाचार्याचो वध केल्याउपरांत, दुर्योधनान तेच रातीकडेन कर्ण हाका कौरवांचो सेनापती म्हूण नेमलो. ह्याच वेळार भीम आनी दुःशासन हांचें भिरांकूळ गदाझूज पेटलें. द्यूत खेळांत पांडवांचो पराभव जाल्याउपरांत दुःशासन हाणें भर सभेंत द्रौपदीच्या न्हेसणाक

हात घाल्लो. त्या वेळार तिडकल्ल्या भिमान आपूण दुःशासनाचे छातयेचें रगत पियेतलो अशी प्रतिज्ञा केल्ली. दोगांय भितर झूज पेटलें तेन्ना भीमाक त्या खीणाची याद जाली. ताणें दुःशासनाक सकयल उडवन तो ताचे छातयेचें रगत पियेलो. सुरवेक अर्जुनान कर्णाचो पूत व्हषसेन हाचो वध केलो. उपरांत कर्णाचो रथ चिखलांत मुंगरला तें पळोवन कृष्णाच्या सांगणेवयल्यान अर्जुनान कर्णाचोय शिरच्छेद केलो. हो सगळो वृत्तांत ह्या पर्वांत आयला.

**शल्यपर्व आनी गदापर्व :** ह्या पर्वांत झुजाच्या अठराव्या म्हणजे निमाण्या दिसाचो वृत्तांत आसा. कर्णा उपरांत शल्य हो कौरवांचो सेनापती जालो. शल्य सेनापती म्हूण झुजामळार देंवलो तो झुजाचो अठरावो दिस आशिल्लो आनी तोच झुजाचो निमाणो दीस थरलो. त्या दिसा भिमान सुरवेक शल्य हाका खूब मार दिलो आनी उपरांत युधिश्ठिरान ताचो वध केलो. मुखार सहदेव आनी शकुनी हांच्यांत लढाय सुरू जाली. तातूंत शकुनीक सहदेवाकडच्यान मरण आयलें. आपले खांपे झुजारी एका फाटल्यान एक मरत आसात, तशेंच आपल्या सगळ्या भावांचो वध जाला तें पळोवन दुर्योधन निर्शेलो आनी एका तळयांत बसून तो तप करपाक लागलो. दुर्योधन कसोच झुजामळार येना तें पळोवन निमाणेकडेन भीमान ताका झुजाखातीर आव्हान केलें. भीमाचो साद आयकून दुर्योधन उदकांतल्यान वयर आयलो. तांच्यांत गदा झूज सुरू जालें. निमाणेकडेन भीमान गदेचो प्रहार करून दुर्योधनाची दावी मांडी फोडून उडयली. दुर्योधन जखमी अवस्थेंत सकयल पडलो. तो कांय खिणां भितरूच मरतलो, अशें समजून पांडव आपल्या शिबिरांत गेले.

**सौप्तिकपर्व आनी केषीकपर्व :** दुर्योधन जखमी अवस्थेंत फडफडटालो, त्या वेळार कृपाचार्य, कृतवर्मा आनी अश्वत्थामो दुर्योधनाकडेन गेले. ताणें आश्वत्थामो हाका सेनापती पद दिवन उरिल्लें कौरव सैन्य घेवन पांडवांचो नाश करपाक सांगलें. तेच रातीकडेन पांडवांच्या शिबिरांत वचून सुरवेक ताणें धृष्टद्युम्न आनी शिखंडीचो न्हिदिल्ले कडेन वध केलो. उपरांत पांडव समजून ताणें पांचूय द्रौपदी पुतांक मारून उडयले. कृपाचार्य आनी कृतवर्मा हे मेळत तांकां मारपाक लागले. अशे रितीन तांणी सामुदायिक संहार सुरू केलो. पांडव आजुनूय जिवीत आसात हें जाणून अश्वत्थाम्याक तिडक मारली. ताणें पांडवांचो नाश करपाखातीर पुराय पांडवशिबिराक उजो लायलो. पूण पांडव दुसरेकडेन न्हिदिल्ल्यान ते वांचले. पांडवांचो नाश करचेखातीर अश्वत्थाम्यान निमाणेकडेन ब्रह्मास्त्राचो वापर केलो. पूण अर्जुनान तें मळबांतूच आडावन दवरलें. उपरांत श्रीकृष्णान दिल्ल्या शापाक लागून अश्वत्थाम्याची सबंद कूड कुसून गेली. निमाणेकडेन पांडवांनी कृपाचार्य आनी कृतवर्मा हांचोय नाश केलो.

**स्त्रीपर्व :** अठरा दीस चालू आशिल्ल्या ह्या महाझुजांत कौरवांचो नाश जालो. झूज सोंपल्या उपरांत युधिष्ठिर हाणें कुरूक्षेत्रांतल्या सगळ्या मड्यांक उजो लावन निमाणे संस्कार केले. त्यावेळार गांधारी, कुंती आनी कौरवांच्यो बायलो थंय आशिल्ल्यो. आपले शंबरूय पूत मेले म्हूण गांधारी व्हडव्हडान रडटाली. ज्या वेळार कृष्ण तिचें सांत्वन करूंक गेल्लो तेन्ना कृष्ण होच कौरव संहाराचो मुखेल कारण आसा अशें सांगून गांधारीन यादव वंशाचोय कौरवांसारकोच नाश जातलो असो कृष्णाक शाप दिलो. निमाणे संस्कार करूंक गेल्ले आसतनाच पांडवांक कर्ण हो तांचो व्हडलो भाव आशिल्लो हे कळ्ळें. कर्ण हो आपलो पूत आसा हें कुंतीक खबर आसून लेगीत तिणें आपल्याक ते विशीं कांयच सांगूंकना म्हूण युधिष्ठिरान, हाचे फुडें बायलांच्या तोंडांत कसलेंच गुपीत उरचेंना असो शाप दिलो.

**शांतीपर्व :** युधिष्ठिरान कुरूक्षेत्रांतल्या मड्यांचे निमाणे संस्कार केलेउपरांत पांडव हस्तिनापुरांत आयले. माघ शुध्द पंचमी दिसा युधिष्ठिराचो राज्याभिशेक जालो. उत्तरायण लागपाक थोडोच वेळ आशिल्लो तेन्ना कृष्णा वांगडा पांडव भीष्माक मेळपाक गेले. झुजांत जखमी जाल्लो भीष्म जिवीत आशिल्लो. भीष्म हाणें धर्मराजाक राजधर्म, आपद्धर्म आनी मोक्षधर्म हांचो उपदेश केलो.

**अनुशासनपर्व :** युधिष्ठिराक उपदेश केल्या उपरांत भीष्मान पांडवांक निरोप दिलो आनी उत्तरायण लागतकूच परत यो अशें सांगलें. उत्तरायण लागतकूच पांडव आनी श्रीकृष्ण परतून भीष्माकडेन आयले. तेन्ना भीष्मान पांडवांक निमाणो उपदेश करून, योगसाधनेन देह त्याग केलो. राजधर्म, आपद्धर्म, मोक्षधर्म आनी अध्यात्मशास्त्र हांची विस्तारीत म्हायतीय अनुशासनपर्वांत सांगल्या.

**आश्वमेधिकपर्व :** आपल्याकडच्यान मानवजातीची व्हडा प्रमाणांत हत्या जाली हें दुख युधिष्ठिराक सदांच सतावपाक लागलें. ताचें राजकारभारांत मन लागना जालें. ह्या दुख्खाचो विसर पडचो म्हूण व्यासान ताका अश्वमेध करपाक लायलो. यज्ञा वेळार हेर राजांचो आस्पाव आशिल्लो. ह्या वेळार पुरोयतांचोय मानसन्मान जालो. अश्वमेध जाल्या उपरांत युधिष्ठिर आपूण धर्मीक राजा म्हूण राज्य करपाक लागलो. हाकाच लागून तो मुखार धर्मराज नांवान प्रसिद्द जालो.

**आश्रमवासिकपर्व :** यज्ञ जाल्याउपरांत आपल्या राज्याक सुवेवस्था लाभची म्हूण धर्मराजान आपल्या भावांक वेगवेगळो वावर सोंपयलो. सुरवेक गांधारी आनी धृतराष्ट्र पांडवांकडेनूच रावतालीं. पूण कांय तेंपाउपरांत तांणी वानप्रस्थ आपणावपाचें थरयलें. तीं दोगांय धर्मराजाची आज्ञा घेवन रानांत वचपाक भायर सरलीं, तेन्ना तांचे वांगडा कुंती, विदूर आनी संजय हांणी संवसाराचो त्याग करून तींय रानांत गेली.

**मौसलपर्व :** श्रीकृष्ण हो द्वापर युगांतलो विष्णुदेवाचो आठवो अवतार. कौरव-पांडवांचें झूज काबार जालेउपरांत श्रीकृष्ण परत द्वारकेक गेलो. द्वापर युगाचे निमाणेकडेन ताणें आपल्या अवतारांतल्यान मुक्त जावपाचें थारायल्लें. पूण अवतार समाप्ती आदीं ताका गांधारीचो शाप खरो जावपाखातीर पुराय यादव कुळाचो नाश करूंक जाय आसलो. श्रीकृष्णाक असो योग घडोवन हाडचो पडलो. एक दिस यादव कुळाचे सगळे दादले सोरो पियेवन तर्र जाल्ले. तेच नशेंत तांच्यांत व्हड झगडीं जावन तांणी एकामेकांक मारून उडयले. उपरांत श्रीकृष्ण संवसाराचो त्याग करून रानांत समाधी लावन बशिल्लेकडेन एका भिल्लान हरणाचेर सोडिल्लो बाण चुकून कृष्णाच्या पांयांक लागलो. अशे रितीन कृष्णाचो अवतार सोंपलो.

**महाप्रस्थानिकपर्व :** यादव दादल्यांचो नाश जाल्याउपरांत अर्जुन तांच्या बायलांक घेवन हस्तिनापुराक येता आसतना, वाटेर कांय रानवटी टोळयांनी अर्जुनाचेर हल्लो केलो. अर्जुनाचो पराक्रम त्या वेळार निकामी थरलो. तो यादव बायलांची राखण करूंक शकलो ना हे गजालीचो खेद दिसपाक लागलो. तेन्ना व्यासान येवन ताका पांडवांचो कार्यकाळ सोंपत आयला म्हूण पांडवांनी आतां वानप्रस्थ आपणावपाचे तयारेक लागूंक जाय असो उपदेश केलो. अर्जुनान ही गजाल येवन धर्मराजाक सांगली. धर्मराजाक ही गजाल पटिल्ल्यान ताणें परिक्षिताक हस्तिनापुराचे गादयेर बसयलो. परिक्षित हस्तिनापुराचे गादयेर बसलो आनी कलीयुग सुरू जालें, अशें मानतात.

**स्वर्गारोहण पर्व :** परिक्षिताचो हस्तिनापुरांत राज्याभिशेक करून आनी श्रीकृष्णाचो पणतू व्रज हाका इंद्रप्रस्थ राज्य दिवन धर्मराज आपल्या चारूय भावांक आनी द्रौपदीक घेवन हिमालय पर्वताचेर गेलो. पूण तांच्यांतलो धर्मराज एकलोच मेरू पर्वताचेर पावलो. थंय इंद्र देवान ताका आपल्या रथांत बसोवन स्वर्गलोकांत हाडलो. पूण स्वर्गलोकांत ताका कौरवां खेरीज आपले हेर भाव खंयच दिसले ना. आपले हेर भाव नरकांत आसा हें कळटकच तो नरकलोकांत आयलो. पूण ताची सुवात स्वर्गलोकांत आशिल्ल्यान यमदूतान ताका नरक लोकांतल्यान धावंडावन घालपाचो यत्न केलो. पूण आपले हेर भाव आसा थंयच आपूण रावतलो असो हट्ट धर्मराजान धरलो. तेन्ना इंद्र देवान खरी स्थिती दाखोवन धर्मराज आनी ताचे हेर भाव स्वर्गलोकांतूच आसात अशें सांगलें.

संस्कृत भाशेंत रचणूक जाल्ल्या मूळ महाभारत ग्रंथाच्यो सद्या हिंदुस्थानाच्या विंगड विंगड लिपींत साबार आवृत्त्यो आसात. पूण ह्यो सगळयो आवृत्त्यो एकसारक्यो नात. कांयकडेन तांच्यांतलो मजकूर फाटीं-फुडें जाला तर कांय कडेन श्लोकांची संख्या कमी-चड आसा. पूण ह्या सगळया आवृत्त्यांनी महाभारत ग्रंथाची १८ पर्वांनी विभागणी केल्ली आसा. ह्या अठरा पर्वांभितर श्रीकृष्णाची वेगळी अशी कथा ना. श्रीकृष्णाची कथा उपरांत जोडिल्ल्या एकुणिसाव्या पर्वांत म्हळयार हरीवंशपर्व हातूंत सांगल्या. हरिवंश पर्वांत सुरवेक सैमाची उत्पत्ती कशी जाली हाचेविशीं म्हायती दिल्या. तशेंच विष्णु देवाचें म्हत्व सांगला. तातूंत मुखार श्रीकृष्णाच्या रुपान विष्णु देव धर्तरेचेर कसो आनी किद्यापासत आयलो, तशेंच श्रीकृष्णाचें भुरगेपण आनी जुवानपणाचें चरित्र रंगयलां.

हरीवंशाप्रमाण भगवद्गीता हो महाभारताक उपरांत जोडिल्लो एक प्रसिध्द ग्रंथ. हो ग्रंथ स पर्वांनी विभागिल्लो आसून सद्या तो हिंदू धर्माचो एक पवित्र ग्रंथ आसा. कौरव-पांडव जेन्ना झुजाक उबे रावले, तेन्ना आपल्या हातान आपल्याच भावांचो आनी जाण्टेल्यांचो वध जातलो तशेंच आपल्या गुरूचो आनी खूबशा लोकांचो नाश जातलो हाची जाणीव जावन अर्जुन झुजाक तयार नाशिल्लो. तेन्ना भगवान श्रीकृष्णान ताका भगवद्गीतेचो उपदेश केलो. भगवद्गीतेंतले शिकवणीक आयज हिंदू समाजांत म्हत्वाची सुवात लाबल्या.

व्यास हाणें रचिल्ल्या मूळ महाभारत ग्रंथाचेर वेगवेगळया काळांत वेगवेगळया लोकांकडसून अनुसर्जन (संस्करण) जाल्लें आसा. वैशंपायन, सुतवृगश्वै, सौप्ती, बृहत कुलांतले ऋषी आनी हेर लोकांचें महाभारत ग्रंथाचेर संस्करण जाल्लें आसा.

भारतांत वेगवेगळया पुराव्यांच्या आदारांचेर तज्ञांनी इ.स.प. २५० हो महाभारताचो काळ निश्चित थारायला. पुणें हांगाच्या भाण्डारकर प्राश्य विद्यामंदिराचे वतीन डॉ. वि. एस्. सुखटणकर हाच्या संपादनाखाला महाभारताची एक चिकीत्सक आवृत्ती तयार केल्या. मुंबय आवृत्ती प्रमाण महाभारताचे २०१७ अध्याय आसात. तातुंतल्या फकत अर्द्या अध्यायांनी कुरूवंशाची कथा सांगल्या. उरिल्ल्या हेर अध्यायांनी कौरव-पांडव हे मूळ कथेच्या आदारान नैतिक तत्त्वां तशेंच नैतिक आचार, पुराणकथा, आख्यायिका, तशेंच तात्त्विक विद्या आनी धार्मिक विचार सांगपाचे यत्न केल्यात. नल-दमयंती, सत्यवान-सावित्री, राम आनी शकुंतला हांचे सारकिल्ल्यो प्रसिद्द काणयोय महाभारतांत वाचूंक मेळटात. तेचपरी राजकारण आनी राजधर्म हांचेविशीं विस्तारीत म्हायती सांगल्या. ग्रंथाच्या ह्या म्हत्वाक लागून मूळ महाभारताचें भाशांतर वेगेवगळया भारतीय भाशांनी जाल्लें आसा. तशेंच महाभारताची मूळ कथा धारावाहीकच्या रुपान भारतीय दुरदर्शन आनी हेर दुरदर्शनावयल्यानूय प्रसारित जाल्ली आसा.

श्री. रवींद्र केळेकार हाणें कोंकणींत महाभारताची अनुसर्जन आवृत्ती दोन खंडांनी निर्माण केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** भगवद्गीता.

**महाभाष्य :** पाणिनीच्या अश्टाध्यायींतल्या सुत्रांचेर आनी कात्यायनान ह्या सुत्रांचेर बरयल्ल्या वार्तिकांचेर बरयल्ली टिका. संस्कृत भाशेंतलो हो टिकाग्रंथ पतंजलीन बरयलो. ही टिका प्रश्न आनी जापांच्या रुपांत आसा.

कात्यायनाच्यो नव्यो सुचोवण्यो समाधानकारक ना. थंय तातूंतले दोश दाखोवन पणिनीच्या सूत्रांचें समर्थन करप आनी कात्यायनीन नव्यो म्हूण केल्ल्यो सुदारणा पाणिनीन हेरकडे अप्रत्यक्ष रितीन कशो सुचयल्यात तें दाखोवन कात्यायनाचे बदल गरज नाशिल्ले आसात हें दाखोवन दिवपाच्या उद्देशान पतंजलीन ही टिका बरयली. ज्या म्हत्वाच्या सुत्रांचेर कात्यायनान टिका केल्ली ना, थंय चिकित्सक पद्दतीन सुत्रांची विस्कटावणी करून जे प्रयोग पाणिनीच्या सुत्रांनी सिध्द जायनात, तांकां चरितार्थ करपाखातीर स्वताची भर घालपाचो यत्न ताणें हे टिकेंत केला.

पतंजलिन बरयल्लो हो ग्रंथ शास्त्रीय आसलो, तरी ताची भास सोंपी आसा. संस्कृत गद्याचो हो एक सुंदर नमुनो म्हूण ताका वळखतात. पारिभाशिक आनी शास्त्रीय शब्दांवांगडाच पतंजलीन हातूंत दिसपट्ट्या वेव्हारांतले सुंदर आनी परिचित शब्द वापरल्यात. जंय विशय कठीण आनी गंभीर आसा, थंय ताणें विनोदी भास, विशय सूचक दृश्टांत दिवन विशय ओडेलायणो केला. संस्कृत व्याकरणशास्त्राचे नदरेन ह्या ग्रंथाक खूब म्हत्व आसा. त्या काळांतले रितरिवाज, कला, धर्म, लोकांचें रावप ह्या गजालींची म्हायती तातूंत आयिल्ल्यान इतिहासीक नदरेन ह्या महाभाष्याक म्हत्व आसा.

ह्या ग्रंथाचेर कितल्योशोच टिका बरयल्यात. तातूंतले मुखेल तीन ग्रंथ अशे : १) भर्तृहरिचो 'महाभाष्यदीपिका' वा 'त्रिपदी' (इ.स. चवथें शतमान), २) कैयटाचो 'प्रदीप' इकरावें शतमान आनी ३) नागेशाचो उद्योत (अठरावें शतमान). 'प्रदीप' आनी 'उद्योत' ह्या टिकांसयत पुराय 'महाभाष्य' बनारस सावन पं. गुरूप्रसाद शास्त्री हाणें आनी गुरूकुल झज्जर (रोहटक) हांगासावन पं. वेदव्रत हाणें उजवाडायलां. नामनेचो जर्मन प्राच्यविद्यापंडीत फ्रांट्स कीलहोर्न हाणें ह्या ग्रंथाची चिकित्सक आवृत्ती तीन भागांत उजवाडायल्या. ह्या ग्रंथाचे मराठी आनी इंग्लीश अणकारय जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**महामाया - १ :** एक दैवी संकल्पना. परमेश्वराची आदिशक्त. हिच्या प्रभावाक लागुनूच सगळी सृश्ट चालू उरता. ती विश्वाक मोह तयार करता. ताका लागून मनीस मायपासांत आनी संवसारांत घुस्पता. हातूंतल्यान मुक्ती मेळपापसत अध्यात्मज्ञान प्राप्त जावचें पडटा. तेखातीर महामायेची उपासना सांगल्या. देवी महात्म्यांत महामायेचें वर्णन आयलां तें अशें:

*तन्मात्र विस्मयः कार्यो योगनिद्रा जगत्पतेः ।*
*महामाया हरेश्चैषा तया संमोहते जगत् ।।*
*ज्ञानिनामपि चेतांसि देवी भगवती हि सा ।*
*बलदाकृष्य मोहाय महामाया प्रयच्छति ।।*
*तया विसृज्यते विश्वं जगदेतच्चराचरम् ।*
*सैषा प्रसन्ना वरदा नृणां भवति मुक्तयें ।।*
*सा विद्या परमा मुक्तेर्हेतुभूता सनातनी ।*
*संसारबन्धहेतुश्च सैव सर्वेश्वरेश्वरी ।।*

**अर्थ :** तेखातीर हेविशीं अजाप करचें न्हय, किद्याक तर ही महामाया जगदीश्वर विष्णुची योगनिद्रा नांवाची शक्त आसा. तिणेंच हें विश्व मोहांत व्यापून उडयलां. ज्ञानी मनशांचीं अंतःकरणां बलात्कारान आकृश्ट करून ती भगवती महामाया देवी मोहाचे आधीन करता. हें सगळें जग ते महामायेकडल्यान तयार जाता. ती प्रसन्न जातकच मनीस जातीक मुक्ततायेचो वर मेळटा. ती मोक्षाक कारण नासून, सदांच सगळयांत श्रेश्ठ अशी ब्रह्मविद्या आसा. सर्वेश्वराची ईश्वरी अशी हीच सगळया संवसार बंधाक कारण आसा. मार्कंडेय ऋषीन तिचेविशीं आनीकूय कांय म्हायती सांगल्या ती अशी आसा -

ती नित्य म्हळयार उत्पत्तिविनाशरहित आसून, पुराय संवसार हेंच तिचें स्वरूप आसा. देवांचे कार्यसिध्दिखातीर म्हळयार दैत्यांचो नाश करपाखातीर ती अवतार घेता. महाकाली, महालक्ष्मी आनी महासरस्वती हे महामायेचेच अवतार आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**महामाया - २ :** शाक्त संप्रदायाची एक देवता. कालिका पुराणांत हिचेविशीं एक कथा सांगल्या ती अशी-वेताळ आनी भैरव नांवाचे दोग भाव आशिल्ले. महामायेचो वर मेळोवपापसत शिवाचे सुचवणेवयल्यान ताणी तप केलें. तांकां महामाया प्रसन्न जावन एका लिंगांतल्यान ती प्रकट जाली. कालिका पुराणांत हे महामायेचें वर्णन आयलां तें अशें-

*शोणपद्मप्रतीकाशां मुक्तमूर्धजलम्बिनीम्*
*चलत्काञ्चनसम्बध्दकुण्डलोज्ज्वलशालिनीम् ।।*
*सुवर्णरत्नसम्बध्दकिरीटत्रयधारिणीम्*
*शुक्लकृष्णारुणैर्नेत्रैस्त्रिभिश्चारुविभूषिताम् ।।*

**अर्थ :** तिची काया तांबड्या कमळाभाशेन आसून, तिणें आपले केंस मेकळे सोडल्यात. तिच्या लांबत्या कानांतल्यांक लागून ती तेजीश्ठ

दिसता. रत्नांचे तीन भांगरा मुकूट तिणें घाल्यात. धवे, काळे आनी तांबडे अशे तिका तीन दोळे आसात. ही देवी सदांच जुवान आसून, तिचीं थानां पुश्ट उबार आसात. ती चार भुजांची आसून तिच्या वयल्या उजव्या हातांत तरसाद, सकयल्या हातांत सिध्दसूत्र आनी दावो वयलो हात अभय मुद्रेंत तशेंच सकयलो हात वरद मुद्रेंत आसा. ती नागडी आसून, तिणें आपल्या आंगाचेर भरपूर अलंकार घाल्यात.

विक्रमपूर हांगासल्ल्या भग्नावशेशांत महामायेची एक मूर्त मेळ्ळ्या. सकयल शिवलिंग आनी वयर चार भुजां आशिल्ली देवी, अशें तिचें रूप आसा. तिचे दोन हात ध्यानमुद्रेंत आसून, तिच्या एका हातांत जपाची माळ आनी दुसऱ्या हातांत पुस्तक आसा. तिणें खूब अलंकार घाल्यात. तिचें मुखामळ सोबीत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**महामाया - ३ :** बौध्द देवता परिवारांतल्या वज्राचें एक नांव. जेन्ना ताची शक्त बुध्दडाकिनी ताका आलिंगन दिता आनी तिचेसयत तो यब्‌युम अवस्थेंत रावता, तेन्ना ताका महामाया अशें नांव मेळटा. महामाया हो देव चार तोंडांचो आनी चार भुजांचो आसून ताचे मांडयेर एक देवता आसा. तशेंच ताचे भोंवतणी चार दिकांक चार देवता आसात. ताचो वर्ण निळो आसून तो भिरांकूळ आसा. ताच्या आंगाक भस्म आसून, ताच्या चारूय हातांनी कपाल, बाण, खट्‌वांग आनी धोणू आसात. ताच्या आंगार मनशाची कातडी पांगुरून, तो नृत्याचे अर्धपर्यंक अवस्थेंत उबो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**महामुनी, बापुराव सिताराम :** (जल्म : १४ ऑगस्ट १९२९, सोलापूर, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें इंग्लीश प्राथमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो जन संघाचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो. मार दिलो आनी गोंयचे शीमेर सोडलो. ५ ऑगस्ट १९८७ ह्या दिसा सन्मानपत्र दिवन महाराष्ट्र सरकारान ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**महाराष्ट्र :** भारतीय संघ राज्यांतलें एक घटक राज्य. क्षेत्रफळ आनी लोकसंख्येचे नदरेन महाराष्ट्राचो भारतीय राज्यांभितर तिसरो क्रमांक लागता. क्षेत्रफळः ३,०७,६९० चौ. किमी. लोकसंख्याः ७८,७०६,७१९ (१९९१). राजपाटणः मुंबय. राज्यभास : मराठी. साक्षरताय : ६३.१०%. ह्या राज्याचो अक्षवृत्तीय आनी रेखावृत्तीय विस्तार १५°४८' उत्तर ते २२°६' उत्तर आनी ७२°३६' उदेंत ते ८०°५४' उदेंत इतलो आसा. महाराष्ट्राचे उत्तरेक मध्यप्रदेश, वायव्येक गुजरात राज्य तशेंच दादरा आनी नगरहवेली हे केंद्रशासित प्रदेश, आग्नेय दिकेक आंध्रप्रदेश, दक्षिणेक कर्नाटक आनी गोंय हीं राज्यां आसात. तशेंच अस्तंतेक अरबीसमुद्र आसा.

सद्या भुगोलीक नदरेन, महाराष्ट्र राज्य म्हूण वळखतात त्या प्रदेशाक आदल्या तेंपार दक्षिणापथ नांवान वळखताले. ह्या वाठाराचो उल्लेख करता आसतना प्राचीन भारतीय वाङमयांत दक्षिणापथ हे संज्ञेचो वापर चड जातालो. सुरवेच्या तेंपार सातवाहनाच्या शिलालेखांत दक्षिणापथ ह्या नांवाचो तर पांचव्या-सव्या शेंकड्यांतल्या लेखांत महाराठी ह्या शब्दाचो उल्लेख सांपडटा. बौध्द ग्रंथ महावंश हातूंत महारठ्ठ असो उल्लेख आसा. जॉन विल्सन हाणें मोल्सवर्थ कोशांत महार + राष्ट्र = महारांचें राष्ट्र अशी महाराष्ट्राची व्युत्पत्ती सांगल्या. महार लोकांची वसती चड आशिल्ल्यान ह्या वाठाराक महाराष्ट्र हें नांव पडलें आसुंये अशें जॉन हाणें मत मांडलां. ऑपर्ट हाणें 'भारत वर्षांतले थळावे लोक' ह्या आपल्या ग्रंथांत महाराष्ट्राकूच मल्लराष्ट्र अशें म्हळां. मल्ल लोक म्हळयार महार अशें ताणें मुखार सांगलां. महाराष्ट्र शब्दाचो उल्लेख वररुची हाच्या प्राकृतप्रकाश व्याकरण ग्रंथांत, तशेंच वात्स्थान आनी भरतमुनी हांच्या ग्रंथांनीय आयला. मार्कंडेयपुराण, वायुपुराण आनी ब्रह्मपुराण हातूंत महाराष्ट्राचो उल्लेख आयला. चिं. वी. वैद्य हाच्या मतान इ.स.प. ६०० च्या सुमाराक आर्यलोक दक्षिणेक आयले. तांणी हांगा गोपराष्ट्र, मल्लराष्ट्र, पांडूराष्ट्र अशो वेगवेगळयो वसाहती करून आपलो राबितो केल्लो. उपरांत सातवाहन राजांनी आपल्या साम्राज्याचो विस्तार करून ल्हान ल्हान राश्ट्रांक आपले सत्ते खाला हाडून एक व्हड राश्ट्र निर्माण जावन, मुखार त्या प्रदेशाक महाराष्ट्र नांव पडलें. ज्ञानकोशकार केतकार हाणें 'महाराष्ट्र' शब्दाची व्युत्पत्ती सांगतना महार आनी रठ्ठ हांच्या एकिकरणाची कल्पना मांडल्या.

ब्रिटीश राजवटींत सिंध, गुजरात आनी अस्तंत महाराष्ट्र हे प्रांत मेळून तशेंच बेळगांव, धारवाड, विजापूर आनी कारवार हे कर्नाटकाचे जिल्हे मेळून मुंबय इलाखो तयार जाल्लो. पूण विदर्भाच्या आठ जिल्ह्यांचो आस्पाव मध्यप्रांतांत जातालो तर मराठवाड्याचे पांच जिल्हे निजामाच्या राज्यांत आशिल्ले. स्वातंत्र्य मेळ्ळ्या उपरांत १९५६ त महाराष्ट्राचे तिनूय विभाग आनी गुजरात मेळून विशाल मुंबय राज्य निर्माण जालें. उपरांत १ मे १९६० ह्या दिसा विशाल मुंबयची फाळणी जावन गुजरात आनी महाराष्ट्र अशीं दोन वेगळीं राज्यां अस्तीत्त्वांत आयलीं.

**भूंयवर्णन :** महाराष्ट्र राज्याची चडशी भूंय अग्निजन्य तळपांसावन तयार जाल्ली आसा. यवतमाळ आनी नांदेड जिल्ह्यांनी आर्कियन म्हाकल्पांत तयार जाल्ली ग्रॅनायट आनी पट्टिताश्म तळपां आसात. दोंगरी

प्रदेशांनी जांभ्याची तांबडी माती चड आसा. गाळाची काळी माती मुखेलपणान कोंकण वाठारांतूच सांपडटा.

१४०० मीटर आसून उत्तरेक ती चड ऊंच आसा. ह्या ऊंच पर्वतांमदीं कांय मेकळी सुवात आसा. हातूंतल्यान रस्ते आनी रेल्वेमार्ग पासार

## महाराष्ट्र




अस्तंतेक अरबी समुद्र आनी सह्याद्री हांचे मजगती आशिल्ल्या सपाट अशीर प्रदेशाक कोंकण अशें म्हण्टात. कोंकणपट्टीची उत्तर-दक्षिण लांबाय ७२०किमी. आनी रुंदाय ४० ते ८० किमी. दरम्यान आसा. मुंबय लागसर कोंकणपट्टीची रुंदाय सगळ्यांत चड म्हळयार १००किमी. परस चड आसा. कोंकण वाठारांत साबार दोंगुल्ल्यो आनी ल्हान ल्हान न्हंयो आसात. सह्याद्री पर्वतांच्या खर देंवत्यांनी नेटान व्हांवत येवपी न्हंयांनी दर्यादेगेर खोल चरयो मारल्यात.

कोंकण पट्टेक समांतर अशिल्ल्या सह्याद्री पर्वतांवळींक लागून महाराष्ट्र राज्याचे कोंकण आनी देश हे दोन विभाग तयार जाल्ले आसात. सह्याद्री दोंगरावळींक अस्तंत घाट अशेंय म्हण्टात. सह्याद्री पवर्तांची अस्तंत देंवती चड खर आसा. सादारणपणान सह्याद्रीची उंचाय ९१५ ते जातात. सातमाळा, अजिंठा, हरिश्चंद्रगड, बालाघाट हे कांय सह्याद्री पर्वतांचे मुखेल फांटे आसात. बळसूबाई हें महाराष्ट्रांतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक (१,६४६मी.). साल्हेर, महाबळेश्वर, सप्तशृंगी, त्र्यंबकेश्वर हीं सह्याद्रीचीं हेर म्हत्वाचीं तेमकां आसात.

सह्याद्री वळींचे उदेंतेक व्हड पठारी प्रदेश पातळ्ळा. उत्तरेक नर्मदा न्हंयचें देगण आनी दक्षिणेक कृष्णा न्हंयेचो पाणटो हांचे मजगतीं ज्वालामुखीच्या लावान तयार जाल्लें दख्खनाचें पठार पाताळ्ळां. सह्याद्रीचे उदेंत देंवतेसावन ते विदर्भाच्या साप्प उदेंत भागांतले सुरजगड, भामरागड आनी चिरोली दोंगुल्ल्यांमेरेन सुमार ७५०किमी. आनी उत्तरेक सातपुडा पर्वतासावन दक्षिणेक कोल्हापूर जिल्ह्यामेरेन सुमार ७००किमी. अशें महाराष्ट्राचें पठार पातळिल्लें आसा.

राज्यांतल्या चडशा न्हंयांचो उगम सह्याद्रीपर्वता वळींचेर जावन त्यो वळीच्या अस्तंत आनी उदेंत अशा दोनूय दिकांनी व्हांवतात. अस्तंतेक व्हांवपी न्हंयो अरबी दर्यांत तर उदेंत दिकेक व्हांवपी न्हंयो राज्याभायर वचून बंगालच्या उपसागराक मेळटात. उल्हास, वैतरणा, दमणगंगा, अंबा, वासिश्ठी आनी सावित्री ह्यो कोंकण भागांतल्यान व्हांवपी मुखेल न्हंयो. तापी, वैनगंगा, वर्धा, गोदावरी, भीमा, कृष्णा ह्यो पठारी भागांतल्यो कांय म्हत्वाच्यो न्हंयो. तापी ही राज्यांतली सगळयांत लांब न्हंय आसा. पुर्णा हो तापी न्हंयेचो मुखेल फांटो आसा.

**हवामान** : राज्याचें हवामान मुखेलपणान मानसून प्रकारचें आसा. राज्यांत सगळेकडेन हवामान एकसारकें उरना. सह्याद्री पर्वतांक लागून अस्तंत महाराष्ट्रांतलें हवामान उदेंत महाराष्ट्रांतल्या हवामानापरस वेगळें उरता. नैऋत्येकसावन येवपी मानसून वाऱ्याक लागून सह्याद्रीचे अस्तंतेक जून ते सप्टेंबर मेरेन खूब पावस पडटा. सिंधुदूर्ग, रत्नागिरी, रायगड, ठाणें ह्या दर्यालागशिल्ल्या जिल्ह्यांनी आनी पुणें, सातारा, कोल्हापूर ह्या दोंगरी वाठारांनी चड पावस पडटा.

महाराष्ट्रांत मे म्हयन्यांत चड उश्णता जाणवता. ह्या म्हयन्यांत दर्या लागशिल्ल्या वाठारांनी सरासरी तापमान ३३° से. इतलें आसता. पूण उदेंत महाराष्ट्रांत ह्याच तेंपार तापमान ३८° से. ते ४३° से. इतलें आसता. उदेंत महाराष्ट्रांत शिंयाळोय कडक आसता. पुणें, नासिक ह्या सारकिल्ल्या उंचेल्या प्रदेशांनी शिंयाळो आनी गीम खूब कडक आसता. पावसाळयाचे सुरवेक अरबी दर्यांत चक्री वादळां जातात. तांचे परिणाम राज्याच्या दर्यादिगांनी आशिल्ल्या वाठारांनी जाणवतात.

**वनस्पत** : राज्यांतले रुखावळीचे वेगवेगळे प्रकार मुखेलपणान भुगोलिक परिस्थितीचेर आदारिल्ले आसात. महाबळेश्वर, खंडाळा, माथेरान, भिमाशंकर, अंबोली ह्या पठारी आनी चड पावस पडपी प्रदेशांनी सदां पांचवीचार उरपी रानां आसात. ह्या रानांनी चडकरून जांबळ, पारजांब, हिरडो, नाणो, अंजन आनी तांबसो देवदार हे रूख सांपडटात. अशा रानांनी झोपांय खूब वाडिल्लीं आसतात. झोपांभितर दिणो, फांगळ, हुसकी, रामेठा आनी पुडो हांचो आस्पाव जाता. झोंपांमदीं विंगड विंगड जातीच्यो वालीय वाडिल्ल्यो आसतात. सादारण पावस पडपी आनी कमी उश्णता उरपी सुवातींचेर पांचवीचार उरपी रानां खूब आसात. ह्या रानांनी ऊंच अशा पानझडी रुखांचोय आंकडो चड आसा. सदां पाचवे उरपी रूख मुखेलपणान मध्यम आकाराचे आसून तांचें प्रमाण चड आसा. सह्याद्री पर्वतांच्या देंवत्यांचेर सागवान, शिसम, सांवर, भिरंड, अर्जुन आनी हेर ऊंच रूख आशिल्लीं रानां आसात. सागवानी लाकूड चड फायदेशीर थरिल्ल्यान राज्य सरकारान तांचे लागवडीचेर चड भर दिला. चड खारसाणीच्या वाठारांनी मोटवीं बाभळीचीं झाडां दिश्टी पडटात. साप उणो पावस पडपी वाठारांनी निवलाचे साबार प्रकार सांपडटात. दर्यादिगांतल्या कांय रेंवाट वाठारांनी फाटल्या कांय वर्सांसावन महाराष्ट्र वनविभागाकडच्यान खडशेरणीची लागवड जाल्ली आसा. ही लागवड वेपाराचे नदरेन खूब फायदेशीर थारल्या. हालींच्या तेंपार राज्य सरकारान भौशिक रानवाड प्रकल्पासकयल साबारकडेन जनतेच्या आदारान वेगवेगळया झाडांची लागवड, झाडांचें संवर्धन (Conservation) आनी राखण ह्या गजालींचेर चड भर दिला.

**मोनजात** : सस्तन मोनजातीच्यो सु. ८५, सवण्यांच्यो ५०० परस चड, सरपटत वचपी मोनजातींच्यो १०० परस चड, नुस्त्यांच्यो सु. ७०० आनी किडींच्यो सु. २५,००० जाती हांगा सांपडटात. महाराष्ट्रांत कोले आनी रानदुकर सगळया रानांनी दिश्टी पडटात. रत्नागिरी, कोल्हापूर, नांदेड, अमरावती, सातारा हांगाच्या रानांनी वाश्वेलां, रानसुणें, कस्तुरी माजरां आनी रानमाजरां सांपडटात. अकोला, अमरावती, भंडारा ह्या रानांनी वाग दिश्टी पडटात. वागाक कायद्यान संरक्षण दिल्लें आसलें तरी तांची संख्या नेटान घटत आसा. हाका लागून भारतांतल्या हेर कांय राज्यांप्रमाण महाराष्ट्र राज्यानूय वागाखातीर राखीव उपवनां दवरिल्लीं आसात. हांगा बिबळयाची फकत एकूच जात सांपडटा. रॅटेल हो मांसाहारी गणांतलो प्राणी भंडारा जिल्ह्यांत सांपडटा. साळ आनी सोंशे सगळया रानांनी आसात. रत्नागिरी, कोल्हापूर, अमरावती आनी भंडाराच्या दाट रानांनी गवे सांपडटात. पक्षिण चंद्रपूरच्या कोंड्यांच्या रानांनी रानरेडे आसात. पंगड करून रावपी काळवीट, सांबर आनी हरणांय हांगा सांपडटात. झोपांच्या दाट रानांनी भेकरीं रावतात. विंगड विंगड जातींचे माकड आनी वानरांचें प्रमाण खूब आसा. महाराष्ट्रांत दिश्टी पडपी सवण्यांच्यो सुमार ५०० जाती आसात. तातुंतल्यो सुमार ३०० थळाव्यो आसून उरिल्ल्यो २०० स्थलांतराखातीर शिंयाळयांत हांगा येवन रावतात. बदकांचें आनी मोरांचें प्रमाण हांगा खूब आसा. भारतांत सांपडपी चडशे सोरोप हांगा आसात.

**इतिहास** : राज्याच्या चड आदल्या इतिहासाची स्पश्ट अशी म्हायती मेळना. हांगाच्या मुखेल न्हंयांच्या देगणांनी सांपडिल्ल्या अश्मयुगीन हत्यारांवयल्यान, अश्मयुगीन काळा पयलींसावन हांगा मनशाची वसती आशिल्ल्याचें सिध्द जालां.

महाराष्ट्रांत लोहयुगाची सुरवात इ.स. पयलीं ८ ते ७व्या शेंकड्या पयलीं जाल्ली अशें तज्ञांनी आपलें मत मांडलां. लोहयुगाचे सुरवेकसावन सद्या अस्तित्त्वांत आशिल्ले महाराष्ट्र राज्याचे साबार प्रदेश वेगवेगळया साम्राज्याचे भाग जावन गेले. सम्राट अशोक आनी हेर मौर्यांचो महाराष्ट्राकडेन संबंद आशिल्लो, हें महाराष्ट्रांत मेळिल्ल्या सोपारा हांगाच्या शिलालेखावयल्यान तशेंच मौर्य साम्राज्याचो विस्तार पळयल्यार कळटा. पूण पुराय महाराष्ट्राचेर मौर्यांची सत्ता नाशिल्ली अशें डॉ. केतकार हाणें मत मांडलां. मौर्यांचो अस्त जाल्याउपरांत इ. सनपयलीं २३५च्या सुमाराक महाराष्ट्रांत श्रीसातवाहन ह्या राजान सातवाहन राजवंशाची स्थापणूक केली. पुराणांत ह्या वंशाक आंध्रभृत्य अशें म्हळां. सातवाहनाचे सगळे

लेख आनी नाणीं महाराष्ट्रांतूच मेळ्ळयांत. हाचेवयल्यान हो राजवंश महाराष्ट्रीय आशिल्लो हें सिध्द जाता. सातवाहन वंशान सनपयलीं २३५ ते इ.स. २२५मेरेन, म्हळयार सुमार चार शेंकडे आपली राजसत्ता महाराष्ट्रांत चलयली. सुरवेचे दोन शेंकडे पुराय महाराष्ट्राचेर तांचो शेक आशिल्लो. उपरांत शक वंशीय राजांनी माहराष्ट्राचो कांय भाग सातवाहनाकडच्यान हातासून ताचेर सुमार ५० वर्सां राज्य चलयलें. पूण उपरांत सातकर्णी ह्या सातवाहन राजान शक वंशाचो पराभव करून आपलें साम्राज्य परत वाडयलें. मुखावयल्या सातवाहन राजांनी यवन, शक आनी कुशाण हांच्यो घुरयो परतून लावन महाराष्ट्र संस्कृती राखून दवरली. सातवाहन वंशान आपणाली राजसत्ता आंध्र, कलींग, मावळा, गुजरात, सौराष्ट्र आनी राजस्थान ह्या प्रदेशांचेर प्रस्थापित केली. यज्ञश्री सातकर्णी ह्या निमण्या राजाच्या मरणाउपरांत सातवाहन राजघराण्याक देंवती कळा लागून, साम्राज्याचे ल्हान ल्हान कुडके जाले.

सातवाहनाउपरांत महाराष्ट्रांत साबार हिंदू राजा जावन गेले. इ.स. २५०च्या सुमाराक वाकाटक घराण्यान विदर्भ हांगा आपल्या स्वतंत्र राज्याची स्थापणूक केली. ह्या घराण्यान सुमार तीनशें वर्सां महाराष्ट्राचेर राज्य केलें. वाकाटका उपरांत महाराष्ट्राचेर बादामीच्या चालुक्यांचो शेक आयलो. चालुक्य घराण्यान इ.स. ५५० सावन इ.स. ७५३ मेरेन राज्य केलें. पांड्य, चोळ, पल्लव, गंग, कदंब हे चालुक्यांचे मांडलिक आशिल्ले. ७५३त चालुक्यांक हारोवन राश्ट्रकूट महाराष्ट्राचेर राज्य करपाक लागले. पूण इ.स. ९७३त राश्ट्रकूटांक हारावन चालुक्य घराणें परत सत्तेर आयलें. उपरांत तांणी ११८९ मेरेन महाराष्ट्राचेर राज्य केलें. निमाणेकडेन यादवांनी चालुक्यांचो पराभव करून ते महाराष्ट्राचे स्वामी जाले. मुखार १४व्या शेंकड्याचे सुरवेक मुसलमानांनी यादवांची सत्ता नश्ट केली. अशे तरेन भारतांतल्या हेर प्रदेशांप्रमाण महाराष्ट्राचेरूय मुस्लिम राजवट सुरू जाली.

तेराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन अल्लाउद्दीन खल्जी हाणें दिल्लींत आपली सत्ता थीर केल्याउपरांत, दक्षिण भारतांत घुरयो घालून ताणें आपल्या राज्याचो विस्तार केलो. चवदाव्या शेंकड्याचे सुरवेक रामदेवराव यादव हाचो अल्लाउद्दीन हाणें पराभव करून ताका आपलो मांडलीक केलो. खल्जी उपरांत तुघलकांनी देवगिरी आपल्या शेकातळा हाडली. तुघलकांच्या वेळार महाराष्ट्रांत बंड जावन बहामनी राज्याची स्थापणूक जाली. बहामनीच्या काळांतूच दक्षिणेंत विजयनगर राज्याचो उदय जालो. महम्मद गवान ह्या सुलतानाच्या मरणाउपरांत बहामनी राज्याक देंवती कळा लागून राज्याचे पांच कुडके जाले. १४८४ त व्हाड हांगा इमादशाही सुरू जाली. इ.स. १४८५ त अहमदनगर हांगा निजामशाही सुरू जाली. १४८९ त विजापूरची आदिलशाही, १४९५त बीदरची बरीदशाही आनी १५१२त गोवळकोंडा हांगाची कुतूबशाही, अशो थळाव्यो मुसलमानी राजवटी निर्माण जाल्यो.

पंदराव्या आनी सोळाव्या शेंकड्यांत महाराष्ट्रांत साबार संत जावन गेले. तांणी थळाव्या हिंदू समाजांत नवजागरण निर्माण करपाचे यत्न केल्ले. सोळाव्या शेंकड्यांत बहामनी राज्यांत आनी उपरांत निर्माण जाल्या पांच शाही राज्यांत साबार मराठा सरदार वतनदार म्हूण आशिल्ले. हे मराठे सरदार सदांच, आपसांत झूजत आशिल्ले. पूण सतराव्या शेंकड्याच्या मध्याक शहाजी भोसले हाचो चलो शिवाजी हाणें साबार मराठे सरदारांक एकठांय हाडून महाराष्ट्रांत स्वतंत्र मराठा राज्य उबारलें. मराठा राज्याचें बळ तांच्या व्हड संघटीत सैन्याचेर तिगून आशिल्लें. शिवाजी उपरांत संभाजी, राजाराम, शाहू आनी हेर मराठा राजांनी आपलें राज्य वाडोवपाचे यत्न चालूच दवरिल्ले. तांणी उत्तरेक मोगल साम्राज्याचेर साबार खेपो घुरयो घालून मोगल सैन्य दुर्बल करून उडयल्लें. निमाणो मोगल सम्राट औरंगजेब हाका दक्षिणेंत मराठ्यांवांगडा झूजतां झूजतां मरण आयलें.

औरंगजेबाच्या मरणाउपरांत संभाजीचो चलो सत्तेर आयलो. ताणें मराठी राज्यकारभार पुरायपणान पेशव्यांकडेन सोंपयल्लो. पेशव्यांनी मराठी साम्राज्याचो खूब विस्तार केलो. निमाणेकडेन सत्तेक लागून मराठ्यांभितर जाल्लें यादवी झूज आनी ब्रिटिशांचें आक्रमण हांकां लागून मराठी सत्ता नश्ट जाली. १८१८ सावन हेर भारतीय प्रांतांप्रमाण महाराष्ट्राचेरूय ब्रिटिशांची सत्ता सुरू जाली. ब्रिटिशांचो शेक १९४८ मेरेन तिगून उरलो.

मराठ्यांच्या भरभराटीच्या तेंपार पुर्तुगेज, डच आनी ब्रिटीश, ह्या तीनूय युरोपीय आरमारी सत्तांनी अस्तंत भारतांत आपआपल्यो वखारी उबारिल्ल्यो. डच लोकांचो शेक हांगा चड तेंप तिगूंक शकलोना. पुर्तुगेजांनी गोवा आनी वसय हांगा आपल्यो वखारी सुरू केल्यो. मुंबय महाल, पुर्तुगेजांनी दोत (वरदक्षिणा) म्हूण इंग्लंडाक दिल्लो. उपरांत मुंबय हें ब्रिटिशांचें मुखेल केंद्र जालें. पूण मुंबय शारांतल्यान मराठी मुलखांत रिगपाक ब्रिटिशांक मराठ्यांआड तीन झुजां करचीं पडलीं. पेशवाई काबार केल्याउपरांत ब्रिटिशांनी मराठी मुलूखाचो (महाराष्ट्राचो) मुंबय इलाख्यांत आस्पाव केलो. मुंबय इलाख्यांत चलत आशिल्ली प्रशासन वेवस्था मराठी मुलूखांतय रुजू केली. मुखार १८५५त ब्रिटीश ईस्ट इंडिया कंपनीन मुंबय इलाख्यांत शिक्षण खात्याची स्थापणूक करून उपरांत १८५७त मुंबय विद्यापिठाची स्थापणूक केली.

१८५८च्या उठावाउपरांत भारतांतली ईस्ट इंडिया कंपनीची सत्ता सोंपून थेट इंग्लंडाचो शेक सुरू जालो. १८७० च्या सुमाराक ब्रिटीश सरकाराच्या वाडट्या अत्याचारांक विरोध करपाखातीर भारतांतल्या हेर प्रांतावांगडा महाराष्ट्रांतूय साबार ल्हान-व्हड उठाव जाले. भारताचे स्वतंत्र चळवळींत साबार महाराष्ट्रीय राश्ट्रवाद्यांनी आनी क्रांतीकारांनी वांटो घेतिल्लो. तातूंत दादाभाई नवरोजी, गोपाळ कृष्ण गोखले, बाल गंगाधर टिळक, वि. डि. सावरकर आनी हेरांचो आस्पाव जाता. १९२०त

गांधिजीन सुरू केल्ले असहकारी चळवळींत १९३० त सविनय कायदेभंगाच्या आंदोलनांत तशेंच १९४२ त 'छोडो भारत' आंदोलनांत साबार महाराष्ट्रीय लोकांनी वांटो घेतिल्लो.

१९४७ त भारताक स्वातंत्र्य मेळ्ळयाउपरांत, मुंबय इलाख्याचें मुंबय राज्यांत रुपांतर जालें. १९४८त बडोदा आनी हेर इलाख्यांचो मुंबय राज्यांत आस्पाव केलो. मुंबय राज्याच्या उत्तर भागांत गुजराती भाशा उलोवपी लोक चड आशिल्ले, मुंबय राज्याच्या दक्षिण भागांत मराठी भाशा उलोवपी लोक चड आशिल्ले. मुखार ह्याच भाशीक तत्त्वाचेर आदारीत १९६०त गुजरात आनी महाराष्ट्र ह्या दोन स्वतंत्र राज्यांची स्थापणूक जाली.

**राज्यवेवस्था** : १ नोव्हेंबर १९५६ त राज्य पुनर्रचणूक कायद्याप्रमाण महाराष्ट्राचे तीन विभाग आनी गुजरात मेळून व्हड द्विभाशिक मुंबय राज्याची स्थापणूक केली. उपरांत १९६०त भाशिक तत्त्वाचेर आदारित, गुजरात राज्य वेगळें जावन संयुक्त महाराष्ट्राची स्थापणूक जाली. महाराष्ट्र राज्य हें भारतीय संघराज्यांतलें एक घटक राज्य आसून, राश्ट्रपतीन नेमिल्लो राज्यपाल हो मुखेलमंत्री आनी विधीमंडळाक जापसालदार आशिल्ल्या मंत्रीमंडळाच्या आदारान शासनवेवस्था पळयता. विधिमंडळ दोन सदनी आसून ताची विधानसभा आनी विधानपरिशद अशीं दोन स्वतंत्र शासनमंडळां आसात. विधानसभेंत २८८ निर्वाचित सभासद आसून, अँग्लो-इंडियन समाजांतलो एक सभासद राज्यपाल नियुक्त करता. विधानपरिशदेंत वट्ट ६८ सभासद आसतात. राज्यांतल्यान लोकसभेखातीर ४८ सभासद तर राज्यसभेखातीर १९ सभासद वेंचून काडटात.

प्रशासन वेवस्थेंत सुटसुटीतपण येवचें म्हूण राज्याचे मुंबय, नवी मुंबय, ठाणे, रायगड, रत्नागिरी, सिंधुदूर्ग, नासिक, धुळे, जळगांव, अहमदनगर, पुणे, सातारा, सांगली, सोलापूर, कोल्हापूर, औरंगाबाद, जालना, परभणी, बीड, नांदेड, उस्मानाबाद, लातूर, बुलढाना, अकोला, अमरावती, यवतमाळ, वारधा, नागपूर, भंडारा, चंद्रपूर आनी गडचिरोली हे ३१ जिल्हे घडयल्यात. दर एका जिल्ह्याचेर जिल्हाधिकारी हो मुखेल शासकीय अधिकारी आसता. मुखार जिल्ह्यांची वेगवेगळ्या तालुक्यांनी विभागणी केल्ली आसा. तशेंच राज्यकायद्याप्रमाण हांगा ग्रामपंचायत पंचायत समिती आनी जिल्हापरिशद ही तीन थरी पंचायतराज्य वेवस्था १९६१च्या कायद्यान चालींत हाडल्या. ल्हान ल्हान शारांनी नगरपालिका आनी व्हड शारांनी महानगरपालिकांची स्थापणूक केल्ली आसा. मुंबय हांगा राज्याचें उच्च न्यायालय आसून नागपूर आनी औरंगाबाद हांगा ताचीं खंडपिठां आसात. ताचें आनी एक खंडपीठ पणजी (गोंय) हांगा स्थापीत केल्लें आसा. उच्च न्यायालयाचे देखरेखीखाला दर एका जिल्ह्यांत एक जिल्हान्यायालय आसता.

**अर्थवेवस्था** : अर्थीक नदरेन महाराष्ट्र हें भारतांतलें एक फुडारिल्लें राज्य आसा. भारताच्या उद्येगीक विकासांत महाराष्ट्राक म्हत्वाची सुवात आसा. राज्याचे अर्थवेवस्थेंत शेतकी उत्पादनाचो व्हड वांटो आसून हांगाचे वट्ट लोकसंख्येंतले सुमार ७०% लोक शेतांत वावुरतात. राज्याचे वट्ट भूंयेंतली सुमार ६०% भूंय लागवडीखाला आसा. लागवडीखाला आशिल्ले भुंयेचो फकत आठवो वांटो शिंपणावळीखाला आसा.

तांदूळ, गंव, ज्वारी, बाजरी आनी कड्डण ही हांगाची मुखेल पिकावळ. भिकणां, सूर्यफूल ह्या सारकिल्ल्यो तेलबियो उत्पादन करपी हें भारतांतलें एक मुखेल राज्य. कापूस, ऊंस, तंबाकू, हळद आनी भाजीपालो हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं नगदी पिकां. केळीं, द्राक्षां, मोसंबी, आंबे, संत्रां आनी हेर फळांची लागवड करपाखातीर महाराष्ट्र राज्य सरकारान खाशेली सुवात राखून दवरल्या.

कोंकण प्रदेश आनी उदेंत महाराष्ट्राच्या कांय जिल्ह्यांनी पिकाळ जमीन सांपडटा. पूण राज्याची चडशी भूंय शेतवडीक फावशी ना. तशेंच उदकाचें उणेपण आशिल्ल्यान कसल्याय पिकांची लागवड करपाखातीर शेतकामत्यांक मुखेलपणान पावसाचेर निबून रावचें पडटा. दोंगरी भुंयेक लागून शेतांचो ल्हान आकार, जमनीची व्हडा प्रमाणांत जावपी झीज हे महाराष्ट्रांतले कांय कठीण प्रस्न आसात. अन्नधान्याचे बाबतींत महाराष्ट्र राज्य स्वयंपूर्ण जावचें म्हूण सद्या राज्य सरकारान साबार येवजण्यो चालीक लायल्यात. शेतवडीची उत्पादनक्षमता वाडोवपाखातीर राज्य सरकार शेतकामत्यांक फावो तो आदार दिता. तांकां चड उत्पन्न दिवपी बीयांची तशेंच सान्याचीय पूरवण करता. वेगवेगळ्या जिल्ह्यांतल्या साबार ल्हान ल्हान न्हंयांचेर बांद घालून हांगाची सुकी जमीन शिंपणावळीखाला हाडपाचे राज्यसरकारचे यत्न चालूच आसात. राज्याच्या पशुधनांत गोरवां, बोकडां, मेंढरां, दुकर आनी कुकडांचो आस्पाव जाता. दुग्दवेवसायाचो विकास नेटान जावचो म्हूण राज्यान कांय खाशेल्यो येवजण्यो आंखल्यात.

साग, शिसव, बांबू, चंदन आनी पुड्याचीं पानां ही हांगाच्या रानांतल्यान मेळपी म्हत्वाची येणावळ. पुड्याच्या पानांसावन विडयो तयार करतात. रान उत्पादनाचेर आदारिल्ले उद्देग वाडोवपाचे नदरेन हांगा यत्न चालूच आसात.

महाराष्ट्रांत खनीजसंपत्तीचे सांठे कमी प्रमाणांत आसात. हांगाच्या कांय जिल्ह्यांनी बॉक्सायट, तांबें, चूनाखडी, सिलीका आनी मीठाचे सांठे कमी प्रमाणांत सांपडटात. भंडारा, नागपूर आनी चंद्रपूर जिल्ह्यांनी फातरी कोळशाचे सांठे आसात. मुंबयचे उत्तर दर्यादिगेर खनीज तेल काडटात.

महाराष्ट्र राज्याक अरबी दर्याची व्हड दर्यादिग लाबिल्ल्या कारणान हांगा नुस्तेमारी वेवसायाक चड म्हत्व आसा. हांगाच्या दर्यांत नुस्तें

आनी नुस्त्यासावन तयार केल्ल्या पदार्थांची भारताच्या हेर भागांनी आनी परदेशांत निर्यात जाता. नुस्तें धरपाखातीर हांगा व्हड यांत्रिकी बोटिंचो तसोच ल्हान-व्हड तारवांचोय वापर जाता.

महाराष्ट्रांत जलविद्युत् आनी तापविद्युत् तयार जाता. भारतांतलें सगळयांत पयलीचें अणूकेंद्र तारापूर हांगा आसा. मुंबय हें भारताचें फिल्म इंडस्ट्रीचें केंद्र आसा. हाका लागून मुंबय शार 'बॉलीवूड' ह्या नांवान जगभर प्रसिध्द आसा. सैमीक सोबीतकाय, इतिहासीक वास्तू, आर्विल्ली बांदावळ, संग्रहालयां, राश्ट्रीय उद्यानां, तीर्थक्षेत्रां आनी धर्मीक सुवातींक लागून महाराष्ट्रांत दर वर्सा हजारांनी भोंवडेकार येतात.

राज्य अर्थीक सर्वेक्षण १९९१-९२च्या नियाळा प्रमाण उद्देगधंद्याच्या मळार महाराष्ट्र हें भारतांतलें एक मुखेल राश्ट्र आसा. ह्या नियाळाप्रमाण भारतांतल्या वट्ट उत्पादनांत महाराष्ट्राचो सुमार २२% वांटो आसा. आधुनिक येरादारीचीं साधनां, व्हडलें बंदर, वेगवेगळया क्षेत्रांत सगळया प्रकारचे तंत्रज्ञ, भारतांतलो सगळयांत व्हड द्रव्य आनी भांडवल बाजार ह्या सगळयांक लागून महाराष्ट्राची राजधानी मुंबय हें भारतांतलें मुखेल वेपारी आनी उद्येगीक केंद्र आसा. मुंबय शार आनी भोंवतणच्या प्रदेशांचो उद्देगीक विकास व्हड प्रमाणांत जाल्लो आसा. ह्या कारखानदारी क्षेत्रांत राज्यांतल्या वट्ट उत्पादनांतलें सुमार ८७% उत्पन्न निर्माण जाता. नागपूर, औरंगाबाद, सोलापूर, आनी कोल्हापूर शारांनीय उद्येगधंद्याची वाड नेटान जायत आसा. महाराष्ट्रांत उपभोग्य वस्तू, रसायनीक द्रव्यां आनी भांडवली वस्तूंच्या उत्पादनांत नेटान वाड जाल्ली आसा. इलेक्ट्रॉनिकी हो हांगाचो सगळयांत नेटान वाडपी उद्येग. बारीक बारीक हत्यारां, ल्हान-व्हड घरगुती आनी शेतवडींत उपेगी पडपी वस्तू, विंगड विंगड उद्येगांक लागपी विजेची आनी हेर यंत्रसामुग्री, मोटारी आनी तांचे सुटे भाग, डिझलाचेर चलपी इंजीनां, सारें, रबर, साखर- प्लास्टीक वस्तू आनी फार्मास्यूटीकल हीं महाराष्ट्रांत तयार जावपी मुखेल उद्येगीक उत्पादनां आसात. सूत आनी कापडनिर्मिती हो महाराष्ट्रांतलो आदलो आनी व्हडलो उद्देग जावन आसा. देशाच्या निर्यात वेपारांत महाराष्ट्राच्या उद्देगिक उत्पादनांक म्हत्वाची सुवात आसा. गांवगिऱ्या भागांतली बेकारी उणी करपाखातीर आनी शेतवडींत गर्दी करप्यांक वावर दिवपाखातीर ग्रामीण उद्येगधंद्यांक उत्तेजन दिवपाचें धोरण महाराष्ट्र सरकारान आपणायलां. खादी, लोकर, रशमी धागे तयार करप, चामड्याच्यो वस्तू, बांबूकाम, दोरकाम, गोड आनी ल्हान ल्हान आयदनां तयार करप हे हांगाचे मुखेल ग्रामोद्योग.

**येरादारी आनी संचारण :** भारतांतलो पयलो लोहमार्ग १८५३त महाराष्ट्रांत मुंबय-ठाणें असो सुरू जालो. उपरांत विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक ब्रिटीश सरकारान नगदी पिकांचें उत्पादन चड आशिल्ल्या भागांनीच लोहमार्ग बांदिल्ले. सद्या महाराष्ट्र राज्याचे लोहमार्ग भारताच्या हेर मुखेल शारांक जोडल्यात ते अशे : १) मुंबय-दिल्ली (I) : हो मार्ग मुंबय-कल्याण-मनमाड-भुसावळ मार्गांतल्यान मध्यप्रदेश आनी उत्तर प्रदेश राज्यांतल्यान नवी दिल्ली कडेन वता. २) मुंबय-दिल्ली (II) : हो अस्तंत दर्यादिगेंतल्यान सुरत-बडोदा-राजस्थान राज्यांतल्यान मुथूरेकसावन दिल्लीक वता. ३) मुंबय-कलकत्ता : हो लोहमार्ग मुंबय-कल्याण-भुसावळ-अकोला-वर्धा-नागपूर-गोंदियासावन मध्यप्रदेश-बिहार-अस्तंत बंगाल ह्या राज्यांतल्यान कलकत्त्याक पावला. ४) मुंबय-मद्रास : मुंबय-पुणें-दौंड-सोलापूर आनी मुखार कर्नाटक-आंध्र प्रदेश राज्यांतलान मद्रास वता. सद्याक कोंकण रेल्वेमार्गावरवींय महाराष्ट्राची हेर राज्यांकडेन येरादारी चलता.

राज्याक व्हड दर्यादिग लाबिल्ली आसून हांगा ल्हान-व्हड सुमार ४८ बंदरां आसात. हातूंतलें मुंबय बंदर हें सगळयांत व्हड आनी अर्थीक नदरेन खूब म्हत्वाचें आसा. मुंबय बंदराक आंतरराश्ट्रीय बंदरांभितर मानाची सुवात आसून भारताचो चडसो परकीय वेपार ह्या बंदरांतल्यान जाता. तशेंच मुंबय हें नौदलाचें म्हत्वाचें बंदर आसा. मुंबय-गोंय अशीं कोंकणपट्टींतलीं बंदरां घेवपी जहाज-येरादारी एकातेंपार खूप तेजींत चलताली.

मुंबय हांगा आंतरराश्ट्रीय, आंतरदेशीय आनी वायुसेना विमानतळ आसात. पुणे, नागपूर, आनी औरंगाबाद हांगा आंतरदेशीय आनी वायुसेना विमानतळ आसात. जुहू, सोलापूर, कोल्हापूर, आनी नासिक हांगा केंद्रशासनाचे विमानतळ आसात. कराड, नांदेड, उस्मानाबाद, धुळे, रत्नागिरी हांगा राज्यशासनाचे, शासकीय, वायुसेना आनी खाजगी विमानतळ आसात.

भारतांत, गांवगिऱ्या वाठारांनी फिरती टपालसेवा सगळयांत पयलीं महाराष्ट्रांत सुरू जाली. मुंबय हें देशी आनी परदेशी टपालसेवा दिवपी सगळयांत पोरनें आनी व्हड केंद्र आसा. भारतांतलें सगळयांत व्हडलें तार कार्यालय मुंबय हांगा आसा. टेलेक्साची सोय मुंबय, पूणें, नागपूर, नासिक, कोल्हापूर, अमरावती औरंगाबाद आनी अमळनेर हांगा आसा. राज्यांतल्या मुंबय, औरंगाबाद, जळगांव, नागपूर, परभरणी, पुणें, रत्नागिरी आनी सांगली ह्या शारांनी आकाशवाणी केंद्रां आसात. विवीध भारतीच्यो कार्यावळी मुंबय केंद्रावयल्यान प्रसारित जावन पुणे, नागपूर आनी पणजी (गोंय) हांगाच्यान पुनःक्षेपीत जातात. मुंबय हांगा २ ऑक्टोबर १९७२ ह्या दिसासावन दूरदर्शन केंद्र सुरू जालें.

**लोक आनी समाजजीण :** महाराष्ट्रांत वेगवेगळया धर्माचे आनी जातीचे लोक रावतात. राज्यांत हिंदूंचें प्रमाण चड आसा (८१.४०). तशेंच अल्प संख्येंत सांपडपी मुसलमान, पारसी, बौध्द, जैन, क्रिस्तांव आनी शीख धर्माचेय लोक हांगा आसात. दलित लोकांभितर म्हार, मांग, चांभार आनी ढोर लोकांचो आस्पाव जाता. ह्या लोकांभितरूय साबार पोट जाती आसात. नागरी तशेंच गांवगिरे जीणेसावन पुरायपणान पयस आशिल्ल्यो आनी रानांत हेडपी गोंड, भील्ल, वारली, गोवरी, कातकरी, ठाकूर आनी कोरकू ह्यो आदिवासी जमातीय हांगा आसात.

गांवगिऱ्या वाठारांनी रावपी लोकांची जीण आनी रावपाची पद्दत सादी आनी काटकसरीची आसता. सादारण लोक फातरांच्या वा विटांच्या घरांनी रावतात. कांय लोक मातयेच्याय घरांनी रावतात. शीत, कडी, दाळ, नुस्तें हें कोंकणांत रावपी लोकांचें मुखेल अन्न. तांच्या जेवणांत नाल्लाचो वापर चड जाता. मध्य महाराष्ट्रांत भाकरी, भाजी, दाळ हें मुखेल अन्न आसा. कडुण आनी भाजीपालो हांचो उपेग हांगा चड जाता. आडवें पुडवें, ल्हान आंगलें आनी माथ्याक मुंडासो हो महाराष्ट्रीय शेतकामत्याचो भेस. तांच्यो बायलो णववारी कापडां न्हेसतात. मटण-नुस्तें खावपी लोकांचें प्रमाण दर्यादिगांतल्या वाठारांनी चड आसा. शारी जिणेचेर आर्विल्ल्या आचार विचारांचो प्रभाव चड पडला.

राज्यांतल्या, विशेश करून गांवगिऱ्या हिंदू कुटुंबांनी सटी, बारसो, मूंज, जावळ हे संस्कार आजून चालींत आसात. सुयेर आनी सूतक पाळपाची प्रथाय तिगून उरल्या. लग्नां जुळोवपाची पद्दत पयलींसावन चालींत आसा. लग्न जुळयताना प्रसाद घेवप, पत्रिका तपासप ह्या



भौशिक गणेशोत्सव

सारकिल्या गजालींक खूब म्हत्व आसा. लग्न धर्मीक पद्दतीन करतात. मेल्याउपरांत निमाणे संस्कार करपाची पद्दत चडशा जातींभितर सारकीच आसा.

अल्पसंखीय लोकांमदीं मुसलमान लोकांचो आंकडो चड आसा. तांच्यांत साबार जाती आसून, पैदाईश, सुन्नत, बिसमिल्ला, निकाह आनी वफात हे पांचूय संस्कार रूढ आसात. पारसी लोकांनी इकराव्या शेंकड्याच्या सुमाराक हांगा आपलो राबितो केल्लो. ते परसियेसावन भारतांत आयले अशें मानतात. भारताच्या हेर प्रदेशांपरस मुंबय शारांत पारसी लोकांचें प्रमाण चड आसा. हांगाच्या वेवसायीक मळार तांचो वांटो म्हत्वाचो आसा.

महाराष्ट्रांत वर्सूयभर साबार उत्सव जातात. हांगाच्या हिंदू धर्मियांचे कांय सण आनी परबो भौशिक आनी देवळाकडेन संबंदीत आसात तर कांय सण घरगुती प्रकारचे आसात. संवसार पाडवो (गुढी पाडवो), रामनम, नागपंचम, सुताची पुनव (नारळी पौर्णिमा), अश्टम, चवथ, पोळा, नवरात, दसरो, दिवाळी, भाऊबीज, तुळशीलग्न, मकरसंक्रांत, महाशिवरात आनी होळी हे हांगाचे म्हत्वाचे सण. पोळा (बेंदूर) हो शेतकामत्यांचो म्हत्वाचो सण आसून, तो गांवगिऱ्या वाठारांनी व्हडा दबाज्यान मनयतात. चवथ, दसरो आनी दिवाळी ह्या सणांचें म्हत्व चड आसा. वडा-पुनव, मंगळागौर, हरितालीका, चंपाषष्ठी हीं बायलांनी करपाचीं कांय मुखेल व्रतां आसात. तुळजापूरची माता भवानी, कोल्हापूरची अंबाबाई, माहुराची रेणूका, आंबेजोगाई हांगाची जोगेश्वरी, जेजुरीचो खंडोबा ह्या देवदेवतांक महाराष्ट्रांत चड म्हत्व आसून, साबार घराण्याचे ते कुलदेव वा कुलदेवता आसात. ह्या देवदेवतांच्यो दर वर्सा व्हड जात्रा भरतात. पंढरपूर हें महाराष्ट्रीय वैश्णव भक्तिसंप्रदायाचें मुखेल केंद्र आसून हांगा आषाढी आनी कार्तिकी एकादशी दिसा विठोबाचें दर्शन घेवपाखातीर खूब लोक येतात. महाराष्ट्रांत तुकाराम, ज्ञानेश्वर, चक्रधर, एकनाथ, शिर्डीचो साईबाबा आनी हेर संत महंताच्यो वर्सुकी जयंती-पुण्यतिथी तशेंच उत्सव व्हडा उमेदीन मनयतात. त्या निमतान भजन, किर्तन वा प्रवचन ह्यो कार्यावळी जातात.

मुसलमानांचे ईद-ए-मिलाद, बक्रईद, रमजान, ईद-उल्-फित्र, मोहरम आनी हेर सण नेटान मनयतात. क्रिस्तांव लोकांचे नाताळ, ईस्टर आनी गूड फ्रायडे हे मुखेल सण आसून, गांवगिऱ्या वाठारांनी जावपी फेस्तांकूय खूब म्हत्व आसा. बौध्द, जैन, पारशी, सिंधी, शीख, ज्यू ह्या धर्मांचे लोक आपआपले सण व्हडा उमेदीन मनयतात.

**कलाकूसर :** कलेच्या मळार महाराष्ट्र राज्य खूब गिरेस्त आसा. हांगा व्हड फातरांचेर कांतयल्लीं सुमार १,१०० लेणीं आसात. कार्ले, भाजे, बेडसे, नितीक, कान्हेरी, अजिंठा, वेरूळ, औरंगाबाद, घारापुरी, हांगाच्यो शिल्पाकृती म्हत्वाच्यो आसात. इकराव्या शेंकड्यासावन ते चवदाव्या शेंकड्या मेरेन चालुक्य, राश्ट्रकूट आनी यादव हांणी महाराष्ट्रांत साबार देवळां बांदलीं. त्या देवळांतली शिल्पकला सोबीत आसा. हांगा सगळ्यांत आदली चित्रकला अजिंठा लेण्यांत सांपडटा. मराठा युगाउपरांत चित्रकलेचेर मोगल आनी रजपूत शैलीचो प्रभाव पडला. भक्ती चळवळी तेंपार वण्टीचित्रांत वैश्णव पंथाचो प्रभाव चड पडिल्लो आसा. ह्या तेंपावयले चित्रकलेचे आवडिचे विशय म्हळयार गणपती, महिषासुरमर्दिनी, विष्णु, शिव, दशावतार, समुद्रमंथन, सरस्वती, कृष्णलिला, तशेंच रामायण आनी महाभारत हातुंतले वेगवेगळे प्रसंग रंगोवप. राजा रवीवर्मा (१८४८-१९०६) हाणें कंवचेचेर पितरायल्लीं चित्रां खूब प्रसिद्द आसात. स्वातंत्र्याउपरांत बी. प्रभा, प्रफुल्ला डहाणूकर, प्रभाकर बरवे, गोपाळ आडिवेश्कार ह्या चित्रकारांनी चित्रकलेच्या मळार व्हड वावर केला.

गणपतराव म्हात्रे, बाळाजी तालीम, बी. पी. करमरकर, बी. के. गोरेगांवकर, डी. बी. जोग, र. कृ. फडते हे महाराष्ट्रांतले प्रसिद्द शिल्पकार.

महाराष्ट्रीय लोक मुखेलपणान हिंदूस्थानी शास्त्रीय संगीताचे मोगी आसात. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक महाराष्ट्रांत जायत्या संगीत नाटक मंडळांची स्थापणूक जाल्ली. केशवराव भोसले, बालगंधर्व, मास्तर कृष्णराव, दिनानाथ मंगेशकर, व्यंकटेश पेंढारकर, ह्या गायकांनी मराठी



व्हिक्टोरिया टर्मिनस रेल्वेस्टेशन, मुंबय.

नाट्य संगीताक उंचेली सुवात मेळोवन दिली. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत छोटा गंधर्व, नारायण बोडस, प्रभाकर कारेकर, जितेंद्र अभिषेकी, कान्होपात्रा, आशा खाडीलकर हांणी मराठी नाट्य संगीताच्या मळार व्हड वावर केला. मराठी चित्रपट संगिताच्या काळांत गोविंदराव टेंबे, केशवराव भोळे, सुधीर फडके, वसंत पवार, राम कदम, राम-लक्ष्मण ह्या मराठी संगीत दिग्दर्शकांनी मराठी सिनेमांक प्रसिध्दी मेळोवन दिल्या. खेमचंद्र प्रकाश, ओ. पी. नय्यर, एस्. डी. बर्मन, शंकर जयकिशन, नौशाद, लक्ष्मीकांत-प्यारेलाल, आर. डी. बर्मन हे प्रसिध्द हिंदी संगीत दिग्दर्शक. लता मंगेशकर, आशा भोसले आनी हेर मंगशेकर कुटुंबियांनी चित्रपट संगितांत विक्रमी भर घाल्या. तमाशा हो महाराष्ट्र राज्याचो एक मुखेल लोकरंजन प्रकार आसून लावणी ही हांगाची खाशेली अशी पोरनी नृत्यपरंपरा आसा.

महाराष्ट्र हो मुखेलपणान तळपी प्रदेश आशिल्ल्यान, आदल्या काळासावन तळप हेंच महाराष्ट्रीय वास्तुशिल्पाचें मुखेल माध्यम थरलां. मौर्य-सातवाहन काळासावन तळप कांतोवन वास्तुशिल्प घडोवपाची परंपरा सुरू जाली. उपरांत लेणीं कांतोवपाचो वावर वाकाटक-राश्ट्रकूट तेंपार सोंपलो. कार्ले, भाजे, बेडसे, जुन्नर, नासिक, कान्हेरी, अजंठा, वेरूळ हांगाच्यीं बौध्द लेणीं, वेरूळ, घारापुरी हांगाच्यो हिंदू लेणीं आनी वेरूळ धाराशीव हांगाचीं जैन लेणीं महाराष्ट्रिय वास्तुशैलीचें व्हडपण दाखयतात. मराठ्यांच्या तेंपार किल्ले वा गड बांदप हेंच मुखेल वास्तुकार्य आशिल्लें. ह्या तेंपार उबारिल्ले रायगड, पुरंदर, तोरणा,विशालगड, पन्हाळा, प्रतापगड हे दोंगरी किल्ले आनी सिंधुदुर्ग, विजयदुर्ग, जंजीरा हे जलदुर्ग प्रसिद्द आसात. पेशवाईंतल्या सरदारांनी पुणें, नासिक, सातारा, कोल्हापूर ह्या शारांनी व्हड आनी सोबीत वाडे बांदले. ब्रिटीश राजवटींत हांगा अस्तंती प्रभावांतल्यान प्रबोधनकाळाची आनी गॉथीक शैलिची वास्तुनिर्मिती जाली.

**शिक्षण :** महाराष्ट्रांत साक्षरतेचें प्रमाण ६३.१०% आसा. मुळावें शिक्षण फुकट आसा. मुळाव्या शिक्षणाचें आनी कांय कडेन माध्यमिक शिक्षणाचें माध्यम मराठी आसा. चडशेकडेन माध्यमिक शिक्षणाचें आनी उच्च शिक्षणाचें माध्यम इंग्लीश आसा. महाराष्ट्र राज्यांत १९७२ सावन १०+२+३ ही शिक्षणाची नवी पद्दत आपणायल्या. मुंबय, पुणें, नागपूर, शिवाजी (कोल्हापूर), बाबासाहेब आंबेडकर (मराठवाडा) आनी एस्. एन. डी. टी. हीं राज्यांतलीं मुखेल विद्यापिठां आसून अकोला, परभणी, दापोली हांगा खाशेलीं कृषी विद्यापिठां आसात. कला, वाणिज्य, शास्त्र हे विशय शिकोवपी सुमार ४०० महाविद्यालयां ह्या राज्यांत आसात. अभियांत्रिकी, वैजकी, कृषी वेवस्थापन, कायदो आनी हेर प्रकारच्यो वेवसायिक शिक्षण दिवपी संस्था हांगा आसात. गुजराती, कन्नड, पंजाबी, तेलगू, तमीळ आनी हेर परकी भासो शिकपाची वेवस्था आशिल्ल्यो शाळाय हांगा आसात.

**म्हत्वाचीं थळां :** सैमीक सोबितकाय, इतिहासीक वास्तू, आर्विल्ली बांदावळ, संग्राहालयां, राश्ट्रीय उद्यानां, तीर्थक्षेत्रां आनी धर्मीक सुवातींक लागून महाराष्ट्रांतल्या साबार थळांक म्हत्व लाबलां. राजगड, रायगड, पुरंदर, सिंहगड, तोरणा, प्रतापगड हे दोंगरी किल्ले आनी सिंधुदुर्ग, विजयदुर्ग जलदुर्ग हे पर्यटनाचे नदरेन म्हत्वाचे आसात. अजंठा, एलोरा, एलिफंटा, कन्हेरी आनी करला ह्यो शिल्पकलांनी नटिल्ल्यो पोरन्यो व्होंवरी प्रसिध्द आसात. महाबळेश्वर, पांचगणी, पन्हाळा, माथेरान हीं हांगाचीं प्रसिद्द गिरीस्थानां. पंढरपूर, नासिक, शिर्डी,गणपतीपुळे, नरसोबाची वाडी, जेजूरी, आंबेजोगाई, तुळजापूर, कोल्हापूर ह्यो राज्यांतल्यो प्रसिध्द धर्मीक सुवाती आसात. मुंबय, पुणें, नासिक, नागपूर, कोल्हापूर हीं शारांय पर्यटनाचे नदरेन म्हत्वाचीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** १) मराठी भास आनी साहित्य.

२) चित्रपट.

**महालक्ष्मी :** जगदंबा देवीचें एक नामरूप. तिका महिषासूरमर्दिनी, दुर्गा अशींय नांवां आसात. तिका आदिशक्तीचें एक रूप मानतात. देवीमाहात्म्य ह्या ग्रंथांत तिचेविशीं कथा आयल्या ती अशी- एकदां देव-दानवांभितर झूज जालें आनी तातूंत दानवांक यश मेळ्ळें. दानवांचो मुखेल, महिषासुर हो जगाचो राजा जालो आनी ताका इंद्रपदूय मेळ्ळें. तेन्ना हारिल्ले सगळे देव विष्णु आनी शंकराक मेळ्ळे आनी सगळी कथा तांकां सांगली. ती आयकून विष्णु आनी शंकराक राग आयलो आनी तांच्या तोंडांतल्यान तेज भायर पडलें. ब्रह्मदेव आनी इंद्र ह्या देवांच्या

आंगांतल्यानूय तेज भायर पडून, तें सगळें तेज एकठांय जालें. उपरांत त्या तेजांतल्यान एक स्त्रीदेवता प्रकट जाली आनी तिणें दानवांकडेन झूज करून महिषासुराक तशेंच ताचे सैन्य नश्ट केलें. म्हूण हे देवीक महिषासुरमर्दिनी म्हण्टात.

महालक्ष्मीचीं सगुण आनी निर्गुण अशीं दोन रुपां आसात. सगुण रुपांतल्या तिच्या हातांत महाळुंगाचें फळ, गदा, चामडें आनी पानपात्र आसता. तशेंच मस्तकाचेर नाग, लिंग आनी योनी हांचीं प्रतिकां आसतात. चतुर्भुज आनी अश्टादशभुज म्हळयार अठरा हातांचीं अशीं महालक्ष्मीचीं दोन रुपां पळोवंक मेळटात.

भारतीय परंपरेंत 'लक्ष्मी' हें विष्णुचे बायलेचें नांव आसा. पूण 'महा' हें विशेशण लावन 'महालक्ष्मी' हें उतर केन्ना विष्णुची बायल तर केन्ना शिवाची बायल ह्या अर्थान वापरलां. ऋग्वेदांतल्या श्रीसूक्तांत, पुराणांत महालक्ष्मी ही विष्णुची बायल म्हूण उल्लेख आयला. हाचे उरफाटें महालक्ष्मी ही दुर्गा आशिल्ल्याचे उल्लेखय मेळटात. कोल्हापूरच्या महालक्ष्मीची सुवात एक शक्तिपीठ आशिल्ल्यान थंयची देवी ही दुर्गाच थरता.

कोलासुर नांवाचो दैत्य बायलांक खूब त्रास दितालो. तेन्ना महालक्ष्मीन ताका मारलो. हाकालागून दर वर्सा महालक्ष्मीचो उत्सव मनयतात. भाद्रपद शुक्ल पक्षांत अनुराधा नक्षत्राचेर महालक्ष्मीचें आगमन जावन, जेष्ठा नक्षत्राचेर तिची पूजा जाता आनी मूळ नक्षत्राचेर तिचें विर्सजन जाता. आश्विन म्हयन्यांतले शुध्द अश्टमीक महालक्ष्मीव्रत नांवाचें एक काम्यव्रतूय करतात.

कोल्हापूर, मुंबय, रत्नागिरी, कुडाळ, झांशी, तशेंच गोंयांत बांदोडें, मांद्रें आनी पणजे महालक्ष्मीचीं देवळां आसात.

**श्री महालक्ष्मी देवस्थान, पणजी** : पणजी शारांतलें नामनेचें देवस्थान. सद्या पणजी शारांत आराडी नांवाच्या वाड्यार हें जें श्री महालक्ष्मी देवस्थान आसा ताची स्थापना १० जुलय १८१८ दिसा जाली. ते आदी हें देवस्थान खंय आशिल्लें आनी तें कोणें स्थापन केलें हेविशीं म्हायती मेळटा, ती अशी : इ.स.च्या सुमार सोळाव्या शतमानांत गोंयचे दक्षिणेकडे आशिल्ल्या कारवार-कुमठा वाठारांतल्यान कांय हवीग ज्ञातीचे ब्राह्मण भिक्षुकी वेवसायाखातीर गोंयांत येताले. तांच्या वांगडा तांची आराध्य देवी श्री महालक्ष्मीची एक ल्हानशीच पाशाणाची मूर्त आशिल्ली. ते सदांच सकाळीं तिची पुजा अर्चा करून आपल्या वेवसायाक लागताले. त्याच काळांत गोंयांत पुर्तुगेजांचे बाटाबाटीक नेट आयिल्लो.तें पळोवन ह्या ब्राह्मणांकूय भंय जालो आनी ते आपलें आराध्य दैवत घेवन हांगा थंय भोंवपाक लागले. भोंवता भोंवता पणजी शारांतल्या मळो वाठारांत तांकां एक मनीस मेळ्ळो. ताणें तांकां आपली व्यथा सांगली. तो मनीस मायेस्त आनी भावार्थी आशिल्लो. तशेंच श्री राघवेंद्र म्हामाय कामत हागेर घोड्याची सुश्रुषा करपाचें काम करतालो. ताणें त्या ब्राह्मणांक धीर दिलो आनी घोड्याचे पागेंत थोडो जागो निवळ करून थंय ती मूर्ती दवरूंक सांगली. तांकां थंय कोणच पावचोना म्हणपाची गवाय ताणें


श्रीमहालक्ष्मी, पणजी.

दिली. ते प्रमाण ब्राह्मणांनी थंय योग्यतरेन ती मूर्ती दवरून सदचे वरी तिची पुजा अर्चा ते करूंक लागले.

कांय दिसा उपरांत पुर्तुगीज मिलटरी खात्यांत काम करपी श्री. राघवेंद्र म्हामाय कामत आपल्या घोड्यांक पळोवपाक पागेंत आयलो. तेन्ना ताचे नदरेक ती पुजा केल्ली मूर्त दिश्टी पडली. ताणें पागेदाराकडे चवकशी केली तेन्ना ताका सगळी खबर कळ्ळी. 'सरकाराच्या कानार ही खबर गेली जाल्यार आपली नोकरी वतली आनी आपल्या कुंटुंबाकय हाचे खूब त्रास जावं येता, असो विचार करून ताणें रातोरात ती मूर्ती व्हरून दिवचल तालुक्यांतल्या मयें वाठारांत जंय पुर्तुगीज लोकांचो प्रवेश जावप कठीण, थंय लिपोवन दवरली.

उपरांत इ. स. सुमार १८१७ च्या सुमाराक 'म्हामाय कामत' हाचो कुटुंब मुखेली श्री नारायण म्हामाय कामत हाच्या सपनांत श्री महालक्ष्मी देवी येवन तिणें दृश्टांत दिलो अशी आख्यायिका आसा. हे आख्यायिकेप्रमाण आपल्याक पणजेच्यान हांगा हाडून दवरल्या, खूब दिसांसावन आपली पूजाय जाल्ली ना, आपली योग्य तरेन वेवस्था जावची अशें देवीन सांगलें. तशेंच आपूण अमूककडेन आसा हाची खूण कळपाक स्वप्नांत ताका तो जागोय दाखयलो. दुसऱ्या दिसा हो कुटुंब मुखेली आपल्या वांगडा पांच-स नावाडी घेवन उदकामार्गान दिवचल तालुक्यांत पावलो. कोणाक नकळत ताणें सपनांत दाखयल्ल्या जाग्यार

वचून ती मूर्त हाडली आनी पणजी मळो खारवाड्यार न्हंये देगेर एका गुपीत जाग्यार लिपोवन दवरली. उपरांत तेच मध्यान राती ताणें ती मूर्त हाडून आपल्या घरांत म्हामाय कामतीच्या वाड्यांत दवरून पुजा-महानिवेद्य हाची वेवस्था केली. तरी पूण ते मूर्तीची योग्य जाग्यार प्रतिश्ठापना जावन तिची सारकी वेवस्था जावंक जाय ही चिंता ताका लागली. ताणें आपली ही व्यथा आपलो एक स्नेही श्री. सिनारी हाका सांगली. तेन्ना ताणें देवस्थान उबारपाखातीर फाव तितलो जागो फुकट दिलो. त्या काळांत एक हिंदुंचें देवस्थान बांदप खूब कठीण आशिल्लें. पूण श्री. म्हामाय कामत आनी त्या काळांत राजदरबारांत खाशेली सुवात आनी वजन आशिल्ल्या कांय हिंदू धर्मीयांनी व्हॉयसरॉयाकडे तें देवस्थान बांदूक परवानगी मागली. व्हॉयसरॉयान खिस्ती धर्मगुरूचो सल्लो मानीनासतना २ जुलय १८१८च्या हुकमान तें देवालय बांदूक परवानगी दिली. तशेंच पुर्तुगालच्या राजेसाहेबान इ.स. १८१९ वर्सा देक्रेतु रेजियु उजवाडावन आपली मान्यताय दिली. तेन्ना श्री. म्हामाय कामतीच्या कुटुंबान आनी हेर भावीक लोकांनी उदार मनान दिल्ले देणगींतल्यान हें देवालय उबें रावलें.

सद्या ह्या देवालयांत श्री महालक्ष्मीची सुंदर मूर्त मुख्यासनार अधिश्ठीत आसा. सुरवेक स्थापन केल्ली श्री. महालक्ष्मी देवीची ल्हान वेतभर उंचायेची पाशाणी मूर्त मुखेल मूर्ती फाटल्यान कुर्कुटांत दवरल्या.

मुखेल देवळामुखार जो भव्य आनी ऊंच तशेंच कोरीव काम केल्लो सभामंडप आसा तो धेंपे घराण्यावरवीं बांदपांत आयला. ह्या देवळाचे दावेवटेन श्री महादेव (शिवलिंग), श्री रवळनाथ, श्री ग्रामपुरूस ह्यो तीन वेगवेगळयो काळ्या पाशाणाच्यो मूर्ती आनी उजवेवटेन मात्शें उंच वेगळ्या देवळांत श्री मारुतीची मूर्त स्थापन केल्ली आसा. ह्या श्री. महालक्ष्मी देवळाची घटना नियमावळ (कोंप्रोमिस) पुर्तुगेज सरकारान आपल्या ता. २७ ऑगस्ट १९३४ च्या पोर्तारीय नंबर २१३७ न मंजूर केल्ली.

ज्या लोकांनी ह्या देवस्थानाचे स्थापनेंत, ताचे जपणुकेंत जांणी जांणी मदत केली त्या सगळयांचे वंशज श्री महालक्ष्मी देवस्थानाचे म्हाजन आसून तातूंत गौड सारस्वत ब्राह्मण, द्रविड ब्राम्हण, लिंगायत, गुजीर, रजपूत, वैश्य, कांसार, थवय, नायक गांवकार (कुळावी), तारुकर, नाईक भांडारी, म्हाले, नाईक मराठे आदी ज्ञाती, जमाती, समाजाच्या लोकांचो आस्पाव जाता.

ह्या देवस्थानांत महाअभिशेक पुजा अर्चा, महानिवेद्य, नंदादीप ह्या सदच्या कार्यक्रमाभायरय दर वर्सुकी संवसार पाडवो, रामनम, चैत्र पुनव, अक्षय तृतिया, वसंत पुजा, श्रावणी पुजा, नवरात्र, दसरो, दिवाळी, वैकुंठ चतुर्दस, दीपस्तंभ, वनभोजन, कालो चंपाषष्ठी, मान्नीपुनव, रथसप्तम, महाशिवरात्र, शिगमो शिबिकोत्सव, लालकोत्सव, आदी उत्सव जातात. श्रावण म्हयन्यांत नागपंचमीसावन सात दीस भजनी सप्तक मोटे उमेदीन मनयतात. तेभायर कांय उत्सवांत नाटकाचे कार्यक्रमय जातात, आसून नामनेचे कलाकार नट-गायक तातूंत वांटो घेतात.

**श्री महालक्ष्मी देवस्थान, बांदोडें :** फोंडें तालुक्यांतलें खूब पुर्विल्लें, नामनेचें आनी जागृत देवस्थान. ह्या देवस्थानाची स्थापना खूब पुर्विल्ल्या काळांत जाली. पूण त्या काळाविशीं निश्चीत म्हायती मेळना. तशेंच साश्टींतल्या कोलवें वाठारांत श्री महालक्ष्मीचें आद्यस्थान आशिल्लें अशे पुरावे इतिहासीक दप्तरांत मेळटात. इ.स.च्या सोळाव्या शतमानांत (सुमार १५६० ते १५६७) जेजुइट पाद्र्यांनी साश्टींत धर्मप्रसाराखातीर लोकांचो छळ सुरू केलो तेन्ना कोलवेंच्यान ह्या देवस्थानाचें स्थलांतर बांदोड्यां गांवांत जालें.



श्रीमहालक्ष्मी, बांदोडें.

कोलवें हांगाच्या श्री महालक्ष्मीच्या स्थलांतराविशीं जी म्हायती मेळटा ती अशी- इ.स.च्या सोळाव्या शतमानाचे निमाणें साश्टींतल्या धर्म छळाच्या भयान कोलवें गांवांतले सप्तो आनी फटो ह्या नांवाचे दोन परमभक्त श्री महालक्ष्मीची मूळ आसानावयली मूर्त एके पेटयेंत घालून खांदार मारून रातचे भायर सरले. दोगांयनी रायबंदर हुंपून अंत्रुज म्हालांतल्या तळावली वाठारांत ती मूर्त दवरली. ज्या जाग्यार ती मूर्त दवरिल्ली त्या जाग्यार (दुर्भाट) श्री देवीच्या पायांची खूण आसा. आजुनय लोक त्या जाग्यार पुजा अर्चा करून भजतात. उपरांत देवीचो दृश्टांत

जाल्ल्यान ते दोगय भाविक सप्तो आनी फटो ती मूर्त घेवन बांदोड्यां गेले. पूण थंय आदींच श्री महालक्ष्मी देवी देवळांत स्थापीत आशिल्ली. तेन्ना कोलवेंच्यान हाडिल्ली मूर्त त्या देवळांत गर्भागरांत मूळच्या मुख्यासनार आशिल्ल्या श्री महालक्ष्मी देवीच्या शालिग्राम शिलामय मूर्तीचे उजवेवटेन मुख्यासनार पूण मात्शें फाटीं आनी तशाच उच्च आसनार दवरली. कोलवेंच्यान हाडिल्ली ही देवी श्री महालक्ष्मीची मूर्त पंचधातुंची आसा.

हे कोलवेंच्यान हाडिल्ले मूर्तीचो वर्सुकी उत्सव फकत रामनमी दिसा जाता. ह्या रामनमी दिसा ही मूर्त महारथांत बसोवन ह्या रथाची मिरवणूक काडटात. पूण तो नांवापुरतो मात्सो ओडून जातकच कांय अंतराचेर दवरतात. उपरांत दुसऱ्या दिसा त्या रथांत म्हळयार चैत्र शुक्ल दसमी दिसा ते मूळ कोलवेंचे मूर्ती वांगडा बांदोडेची सद्या आशिल्ली श्री महालक्ष्मी देवीची उत्सवमूर्ती बसयतात आनी उपरांत दोनय मूर्तीसयत महारथाची मिरवणूक काडटात. श्रीच्या गर्भागरांत मुखेल आसनार इ.स. १४१३ काळाआदीं सावन जी शाळीग्राम शीलेची स्थापीत मूर्त आसा तिचो उत्सव दर वर्सा महाशिवरात्रेक जाता.

श्री महालक्ष्मी देवस्थानांत ज्यो परिवार देवता आसात, त्यो अशो : देवळांत मुख्यासनार श्री महालक्ष्मी देवीची शाळीग्राम शीलेची पुर्विल्ली मूर्त आसा. ताचे उजवेवटेन मात्शें फाटल्यान एक मीटर उच्चासनार श्री लक्ष्मीनारायण, काळया पाशाणाची मूर्त आसून त्या मूर्ती लागसारच त्याच आसनार दावेकडेन श्री महालक्ष्मी देवीची खूब पुर्विल्ली (कोलवें गांवांतल्यान हाडिल्ली) मूर्त आसा. श्री महालक्ष्मी देवळाचे दावे वटेन एका वेगळया ल्हान देवळांत अस्तंतेभिमुख श्री रवळनाथ देवाची मूर्त स्थापन केल्ली आसा. ह्या श्री रवळनाथ देवळामुखार कांय अंतराचेर दुसरें एक ल्हान देवूळ आसून त्या देवळांत श्री बालेश्वर नांवान शिवलिंगाची स्थापना केल्ली आसा. देवळाचे दावे वटेन प्राकाराच्या तळापसून सकयल श्री नारायण पुरसाचें देवूळ आसा. हाका ग्रामपुरूस म्हण्टात. श्री महालक्ष्मी देवळाच्या मुखारच पूण मात्शें दावे वटेन एक ल्हान फातरी घुमटी आसा. तिका मठी म्हण्टात. तातूंत दोन काळया पाशाणाचीं लिंगां आसात. तांकां सपटो आनी फटो हांचीं यादस्तिकां म्हूण वळखतात.

ह्या देवस्थानांत दर दिसा चौघडो, नौबत, अभिशेक, हेर देवकृत्यां, महापुजा, महाआरती, कीर्तन आदी कार्यक्रम जातात. उत्सवादिसा ह्या दीसपङ्क्या कार्यक्रमाभायर पालखेंतल्यान श्रीची मिरवणूक काडटात. दर एका म्हयन्याच्या शुक्ल ८ मी. आनी शुक्ल १४ शी तशेंच वद्य ८मी आनी वद्य १४शी अशी म्हयन्यांतल्यान ४ फावट पालखी वा शिबिकोत्सव जाता.

श्री महालक्ष्मी देवस्थान, बांदोडें ह्या देवस्थानांचे कुळावी म्हाजन आनी पालवी म्हाजन कौशिक, काश्यप, कौंडिण्य, वस्त आनी भारद्वाज ह्या पांच गोत्राचे गौड सारस्वत ब्राह्मण आसून तातूंत स्मार्त सांप्रदायी आनी माध्व सांप्रदायी (वैश्णव) आसात. श्री मंगेश देवस्थान (प्रियोळ), श्री शांतादुर्गा देवस्थान (कवळें), श्री नागेश देवस्थान (बांदोडें), श्री दामोदर देवस्थान (जांबावले), श्री गणपती देवस्थान खांडोळें ह्या देवस्थानांचे कांय गोत्रांचे आनी उपनांवाचे कुळावी म्हाजन श्री महालक्ष्मीक आपली पालवी देवी मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**महाली :** एक जात. अस्तंत बंगालांतल्या जलपैगुडी, मिदनापूर, अस्तंत दिनाजपूर आनी बरद्वान ह्या जिल्ह्यांनी चडशी ह्या लोकांची वसती आसा.

हे लोक महाली नांवाची भास उलयतात. सांस्कृतिक नदरेन, संथाळांचें आनी महाली लोकांचें एक सारकेंपण आसा. संथाळांभाशेनूच तांच्यांतूय बस्के वा कांती, हंसदा, हेमब्रोम, किस्कू, मंडी अशे धा पोटभेद आसात.

महाली लोकांच्यो खोंपी चवकोनी आसून, तांच्यो वण्टी कोंड्यांच्या कामींच्यो आनी पांखें तणाचें आसता.

महाली लोकांत, एकाच पोटभेदांत वा लागींच्या सोयऱ्यांभितर लग्नां जायनात. देज दिवप तेचवांगडा व्हंकलेक, तिचे व्हडले भयणीक आनी व्हंकलेचे आवयक न्हेसण दिवप हो लग्नांतलो म्हत्वाचो सुवाळो आसता.

महाली लोकांत लग्नाचे सात प्रकार आसतात. हातुंतलो पयलो प्रकार म्हळयार जाण्ट्या मनशांनी व्हंकल पसंत करून केल्लें लग्न. ह्या लग्नांत चल्याचो आवय-बापूय मध्यस्थावतीन चलयेक मागणी घालता. उपरांत एक दीस न्हवऱ्याकडचे लोक गांवच्या मुखेल्याक घेवन व्हंकलेगेर वतात. थंय व्हंकल त्या सगळया लोकांचे पाय धुता. उपरांत देजाचें मोल थरयतात आनी व्हंकलेचे आवय-बापूय थंय आयिल्ल्या सगळया लोकांक बकरेचें वा कोंब्याचें मांस आनी तांदळांचो सोरो दिता. कांय दिसांउपरांत व्हंकलेकडचे लोक न्हवऱ्यागेर वतात तेन्ना न्हवऱ्याचो बापूय आपल्या गांव-मुखेल्याच्या हातान देजाची अर्दी रक्कम चलयेच्या गांवच्या मुखेल्याकडे दिता. तो ती रक्कम चलयेच्या बापायकडे दिता. ह्याच दिसा लग्नाचो मूर्त थरयतात. लग्नापयलीं तीन दीस न्हवऱ्या-व्हंकलेक तेल-हळद लायतात. तेन्ना चलयो पदां म्हण्टात. हे तीन दीस दिश्ट लागची न्हय म्हूण व्हंकल आपलेकडे काजळाची डबी आनी आडकित्तो सांबाळटा. लग्नाच्या दिसा माटव घालतात. माटवांत उदेंतेकडे एक फोण खणून तातूंत थोडीं नाणीं घालून मोहाच्या झाडाची खांदी रोयतात. उपरांत न्हवरो गांवांतल्या कांय लोकांगेर वचून इल्लें शीत जेवता. ते उपरांत न्हवऱ्याक न्हाणयतात आनी व्हंकलेगेर वतात. पयलीं दोगांयचें झाडावांगडा लग्न करतात. हें लग्न जातकच न्हवरो माटवांत वचून एके शेंदरेचेर व्हंकलेचे उजवेवटेन बसता. न्हवऱ्याचो बापूय उरिल्ली देजाची

रक्कम व्हंकलेच्या गांवच्या मुखेल्यावतीन व्हंकलेच्या बापायक दिता. उपरांत न्हवरो व्हंकलेच्या कपलाक कुकूम लायता. भांगांत शेंदूर भरता आनी आंब्याचे खांदयेन कळशांतलें उदक तिच्या आंगार शिंपडायता. व्हंकलूय तशेंच करता. तेन्ना बायलो शंख वाजयतात. न्हवरो व्हंकलेच्या दाव्या हातांत लोखणी कांकण घालता आनी लग्न सुवाळो सोंपता.

दुसऱ्या दिसा वरात परततना पयलीं न्हवऱ्याच्या गांवच्या मुखेल्यागेर रावता. थंय न्हवऱ्याची आवय व्हंकलेक आपले मांडयेर बसोवन खीर खावयता. उपरांत सगळे न्हवऱ्यागेर येतात. न्हवरो-व्हंकल तळयेर न्हावपाक वतात. तेन्ना तांचे सोयरे शंख वाजयत तांच्यावांगडा वतात. न्हातकच न्हवरो एका झाडाचेर बाण मारता आनी ताच्या मुळांत वचून बसता. व्हंकल ताका थोडें गोड दिता आनी ताचो हात धरून ताका उठयता. परतून तो एका झाडार बाण मारून मुळांत वचून बसता आनी व्हंकल ताका गोड दिवन उठयता. घरा पावसर ही कार्यावळ चालू आसता. उपरांत जेवणावळ जाता. दुसऱ्या दिसा न्हवरो आनी व्हंकल, व्हंकलेच्या घरा वतात. थंय दोन दीस रावतात. महाली लोकांत लग्नाच्याच दिसा पितरांचें श्राध्द करपाची चाल आसा.

महाली लोकांच्या दुसऱ्या प्रकारच्या लग्नाक 'इडिगोश' वा 'दुआर लेबेट' अशें नांव आसा. हातूंत न्हवऱ्याचे आवय-बापूय चलयेक आपल्यागेर हाडून दवरतात आनी लग्न सुवाळयावेळार वा जमता तशी देजाची रक्कम दितात.

तिसऱ्या प्रकारांत चली आपूण जावन न्हवऱ्याच्या घरांत येवन रावपाक लागता. त्या घरांतले लोक तिका खूब जाच करतात. थंडपणान चलयेन हो जाच सोंसलो जाल्यार व्हंकल म्हूण तिका आपणायतात.

चवथ्या प्रकारांत न्हवरो आनी व्हंकल आपलेभितर थरोवन एका सोयऱ्यागेर वचून रावतात. थंय न्हवरो, तिच्या कपलाक कुकूम लावन तिच्या भांगांत शेंदूर भरता. उपरांत चलयेचो आवय-बापूय ही गजाल न्हवऱ्याच्या आवय-बापायक सांगतात. देज दिवन लग्न सुवाळो करतात. कांय वेळां न्हवरो चलयेक जबरदस्तीन पळोवन व्हरता आनी तिका कपलाक कुकूम लावन भांगांत शेंदूर भरता. तेन्ना तडजोड करून तांचें लग्न करतात. विधवेवांगडा वा घटस्फोट घेतिल्ले बायलेकडे लग्न करप हो पांचवो प्रकार आसा. चल्यान वा चलयेन स्वताच लग्न थारावप हो सवो प्रकार आनी चल्याक घर जांवय करप हो सातवो लग्ना-प्रकार आसा.

महाली गुरवार बायलेक कांय नेम पाळचे पडटात. तिणें मसंडेंत वचचें न्हय, गळ लावन धरिल्लें नुस्तें खावचें न्हय, पिंजिल्ले कपडे शिवचे न्हय वा सुयेंत सूत घालचें न्हय, तशेंच भाकऱ्यो भाजच्यो न्हय हीं तिचेर कांय बंधनां आसतात.

बाळंत जावचे वेळार हाडी जातीचे बायलेक सुईण म्हूण आपयतात. बाळंतपण कठीण दिसल्यार भगताक आपयतात. भुरगें जल्मतकच थाळी वाजोवन सगळया लोकांक ही बातमी कळयतात. दुसऱ्या दिसा आवयक आनी भुरग्याक न्हाणयतात. धाव्या दिसा भुरग्याचो बापूय ग्रामदेवतेक तांदळांचो सोरो दिता तशेंच गांवच्या पुरोयताक थोडो सोरो आनी धा विड्याचीं पानां दिता. इतलें करतकच तांचो सुयेर सोंपता. एकविसाव्या दिसा भुरग्याक नांव दवरतात. त्या दिसा सोयऱ्यांक जेवपाक आपयतात. सोयरीं येतना आपल्या वांगडा भाजी आनी तांदूळ हाडटात. तीन ते सात वर्सांच्या काळांत भुरग्याचे कान तोंपतात.

कोणेयतरी चेटुक केल्ल्यान वा देवतांचो आनी भुताखेतांचो कोप जाल्यार मनशाक दुयेंस जाता असो महाली लोकांचो समज आसा. ताका लागून ते झाडा-पाल्यांचीं वखदां, भगताचेवतीन देवाक प्रसन्न करप हे उपाय करतात. देवी, पटकी आनी हेर साथीचे रोग शीतळा, चंडी आनी योगिनी वा सिमबोंगा हांकांलागून जातात, अशें ते मानतात.

महाली लोक बडा पहाड आनी मनसादेवी हांकां भजतात.

महाली लोकांची एक विचारसभा भरता. जातींतलीं झगडीं ते, हे सभेंत सोडयतात.

मनीस मरपा धडेर आसतना ताच्या तोंडांत तुळशीचें पान घाल्लें उदक घालतात. मनीस मरतकच ताचे वयल्यान मांजराक वचपाक दिनात. मांजर ताचे वयल्यान गेल्यार, मेल्लो मनीस भूत जावन थंय आशिल्ल्या सगळया लोकांक मारता असो समज आसा.

तांच्यांत सादारणपणान मडीं जाळटात. हरिबोल अशें तीनदा उच्चारून निसण उबारतात. गांवांतल्या रस्त्याचेर हाडून निसण सकयल दवरतात. तेन्ना मेल्ल्या मनशाच्या नात्यांतल्यो बायलो ताच्या आंगाक तेल हळद लायतात आनी ताच्या तोंडांत कांय नाणीं दवरतात. उपरांत तणाची चूड पेटोवन ती मसंडेंत व्हरतात आनी मड्याच्या सरणाक लायतात. मृतात्म्याच्या रागान घरांत आनीक कोणाक मरण येवचें न्हय म्हूण पेड्ट्या सरणांत एक कोंबो उडयतात. उपरांत सगळे न्हावन मेल्ल्या मनशाच्या घरा येतात. धाव्या दिसा श्राध्द करतात.

देवी सारकिल्या साथीच्या रोगान मेल्ल्या मनशाक पुरतात.

कोंड्याचे पांटले, करंडे, शेंदऱ्यो करप हो महाली लोकांचो मुखेल वेवसाय आसा. तशेंच ते शेती करतात. कांय लोक मजूर म्हूण लेगीत काम करतात. हांच्यांतले कांय लोक पयलीं पालख्यो व्हरपाचेंय काम करताले.

- कों. वि. सं. मं.

**महावाक्यां** : आरण्यकांतल्या आनी उपनिषदांतल्या सारगर्भ तत्त्वगिन्यान सांगपी चार वाक्यांक महावाक्यां अशी संज्ञा आसा. त्या

चार वाक्यांचीं नांवां अशीं आसात - 'प्रज्ञानं ब्रह्म', 'आयमात्मा ब्रह्म', 'तत्त्वमसि' आनी 'अहं ब्रह्माऽस्मि', ह्या चारूय वाक्यांनी आत्मो आनी ब्रह्म हांचें ऐक्य आसा, अशें सांगलां.

**१) प्रज्ञानं ब्रह्म :** ऋग्वेदाच्या ऐतरेय आरण्यकांत हें वाक्य आयलां. दोळयांवटेन भायर पडून अंतःकरणवृत्तींत प्रतिबिंबित जाल्ल्या चिदाभासान मनीस रुपादिकांक पळयता, कानांवटेन भायर पडिल्ल्या अंतःकरणवृत्त्युपाधिक चिदाभासान उतरां आयकता, नाकावटेन वास घेता, वागिंद्रियावच्छिन्न चैतन्यान उलयता आनी जिबेन मधुर-अमधुर रस जाणटा. अशे तरेन सगळीं इंद्रियां आनी अंतःकरणाच्यो विंगड विंगड वृत्ती हांच्या योगान उपलक्षित जावपी जें चैतन्य, तेंच प्रज्ञानं ब्रह्म ह्या वाक्यांतलें प्रज्ञान आसा. तशेंच देव, मनीस आनी जनावरां ह्या उत्तम, मध्यम आनी अधम देहांक धारण करपी जिवांभितर आनी आकाशांतल्या भुतांभितर, जगाच्या जल्मस्थितीलयाचें कारण अशें जें एक चैतन्य आसा, तेंच ब्रह्म आसा. म्हळयार दर एका शरिरांत शरिराच्या इंद्रियांपरस आगळें अशें जें साक्षिचैतन्य प्रज्ञान, तेंच सगळया भूतभौतिक जगाचें उपादानकारणभूत आशिल्लें चैतन्य ब्रह्म आसा. ज्या अर्थान सगळयाक आशिल्लें प्रज्ञान हें ब्रह्म आसा, त्या अर्थान म्हज्यांत आशिल्लें प्रज्ञानूय ब्रह्म आसा, असो ताचो भावार्थ आसा.

**२) अहं ब्रह्मास्मि :** यजुर्वेदाच्या बृहदारण्यकोपनिषदांत हें वाक्य आयलां. देशादिपरिच्छेदशून्य असो जो परमात्मो ह्या मायाकल्पित जगांतल्या गिन्यानाचे अधिकारी आशिल्ल्यांच्या बारीक शरिराचो साक्षी ह्या रुपान स्थित असो अणभवाक येता. तोच ह्या वाक्यांतलो अहं शब्दाचो लाक्षणिक अर्थ आसा. देशादिपरिच्छेदरहित परमात्मो हो ह्या वाक्यांतल्या ब्रह्म शब्दाचो लक्ष्यार्थ आसा. अस्मि हें साक्षी आनी परमात्मो हांचो मेळ दाखयता.

**३) तत्त्वमसि :** सामदेवाच्या छान्दोग्य उपनिषदांत हें वाक्य आयलां. सैमाचे पयलीं स्वगतादिभेदशून्य नामरुपरहित अशी जी सद्‌वस्तू सांगल्या, ती सैम उत्पन्न जाल्या उपरांतूय तशीच आसा. हो तत् ह्या पदाचो लक्ष्यार्थ आसा. श्रवणादिकाचें अनुश्ठान करून महावाक्याच्या अर्थाचो निश्चय करपी जो अधिकारी जीव, ताच्या स्थूल, सूक्ष्म आनी कारण ह्या तीन देहांचो साक्षी आनी तेखातीर तांच्यापरस आगळो असो जो सद्रूप आत्मो, तो ह्या वाक्यांतलो त्वं पदाचो लक्ष्यार्थ आसा. ह्याच वाक्यांतल्या असि ह्या पदान त्या दोनूय पदार्थांच्या लक्ष्यार्थांचें ऐक्य सांगलां.

**४) अयमात्मा ब्रह्म :** अथर्ववेदाच्या माण्डूक्योपनिषदांत हें वाक्य आयलां. तातुंतल्या अयम् ह्या पदान आत्म्याचें स्वप्रकाशकत्व आनी अपरोक्षत्व उक्तायलां. तो स्वप्रकाश आशिल्ल्यान अपरोक्ष आसा. अहंकारापसून देहामेरेन आत्मो ह्या शब्दाक पात्र आशिल्ले जे पदार्थ आसात, त्या सगळयांचें अधिश्ठान आनी साक्षी ह्या रुपान तांचे भितर आनी तांचेपरस आगळें आशिल्लें जें चैतन्य तोच ह्या महावाक्यांतलो आत्मो आसा. ह्या सगळया आकाशा सारकिल्या मिथ्याभूत जगाचें जें अधिश्ठान, तेंच ब्रह्म आसा. सगळया जगाचो बाध जातकच अवशिश्ट रावपी पारमार्थिक सच्चिादानंदलक्षण स्वरुपाकच ब्रह्म अशें हांगा म्हळां. एवंगुणविशिश्ट जें ब्रह्म तेंच स्वप्रकाश आत्मरूप आसा.

अशे तरेन ह्या चारूय वाक्यांचो आपरोस ब्रह्मात्म्यैक्यांत आसा. संन्यास घेवपावेळार हातुंतल्या एका महावाक्याचो उपदेश करतात.

- कों. वि. सं. मं.

## महावीर :

(इ.स. णववें शतमान). नामनेचो भारतीय गणितज्ञ. 'महावीराचार्य' ह्या ताच्या मूळ नांवाचो 'महावीर' हो संक्षेप आसा. तो जैन धर्माचो अनुयायी आशिल्लो. सद्याच्या कर्नाटक राज्यांतल्या एका वाठारांत राज्य करपी राश्ट्रकूट घराण्यांतल्या अमोघवर्ष नृपतुंग (सुमार ८०८-८८०) ह्या राजांनी महावीराक राजाश्रय दिल्लो. ताच्या जिवितावीशीं हेर सविस्तर म्हायती मेळना.

ताचें कार्य पुराय शुध्द गणितावीशीं आसा. ८५० वर्साच्या सुमाराक 'गणितसारसंग्रह' हो आपलो पयलो ग्रंथ महावीरान बरयलो. ह्या ग्रंथाचो वापर दक्षिण भारतांत व्हड प्रमाणांत जातालो. इकराव्या शेंकड्यांत ताचो तेलुगू भाशेंत अणकार जालो. ह्या ग्रंथाचो इंग्लीश अणकार करून संपादित केल्ली आवृत्ती १९१२त एम्. रंगाचार्य हाणें उजवाडायली. १९६३ त लक्ष्मीचंद्र जैन हाणें ह्या ग्रंथाचो हिंदी अणकार उजवाडायलो. 'गणितसारसंग्रह' हो ग्रंथ सद्याच्या स्वरुपांतल्या अंकगणितावयलें पयलेंच पाठ्युपस्तक अशें म्हणूं येता. त्या काळांतले परंपरेप्रमाण तातूंत बीजगणित आनी भूमिती ह्या शाखांतल्या कितल्याशाच विशयांचो आस्पाव केल्लो. आदल्या गणिततज्ञांनी मांडिल्ले सिध्दांत सुदारप आनी तांचो विस्तार करप, हें महावीरान केल्लें मुखेल कार्य. ताणें आपल्या ग्रंथाची वांटणी णव भागांत केल्ली. पयल्या प्रस्तावनेच्या प्रकरणाक विंगड विंगड संज्ञांची विस्कटावणी केल्ली आसून हेर प्रकरणांनी विंगड विंगड गणितीय कृत्यां आनी तांचेवयले प्रस्न हांची फोडणीशी केल्या.

महावीराक द्विघाती (quadratic) समीकरणां सोडोवपाची रीत खबर आशिल्ली आनी अशा समीकरणाक दोन जापो आसतात हेंय खबर आशिल्लें. क्षेत्रफळ, परिमिती, दिल्ल्या क्षेत्रफळाचो त्रिकोण, वर्तुळांत परिमेय वटेनचे अंतर्लिखित चवकोन काडप ह्या विशयांची चर्चा महावीराच्या ग्रंथांत दिसून येता. विवृत्त (ellipse) ह्या वक्राविशीं फोडणीशी करपी महावीर हो भारतांतलो एकटोच गणिततज्ञ जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## महावीर वर्धमान :

(जल्म : इ.स.प. ५९९).

जैन धर्मांतल्या चोवीस तीर्थंकरांतलो निमाणचो तीर्थंकर. ताच्या

बापायचें नांव सिध्दार्थ, हो राजा आनी आवयचें नांव, त्रिशला, ही लिच्छवी राजवंशांतल्या चेटक राजाची राजकन्या आशिल्ली. त्या काळांत वैशालीचें गणराज्य खूब बळिश्ट आशिल्लें. महावीर अशा ह्या बळिश्ट गणराज्यांत जल्मलो म्हूण जैनग्रंथांत ताका 'वैशालिक' अशें म्हळां. आवय-बापायन ताचें नांव 'वर्धमान' दवरील्लें. पूण 'महावीर' ह्या नांवानूच तो नामनेक पावलो. ताच्या ह्या नांवाविशीं एक दंतकथा आसा ती अशी-



एकदां संगमदेव, वर्धमानाच्या फुड्यांत सर्पाच्या रुपान आयलो. वर्धमान ज्या झाडाचेर बशिल्लो, त्या झाडाक ताणें वेटाळें घालें. पूण वर्धमानान ताका मारनासतना ताचें हिंसकत्व काबार केलें. तेन्ना संगमदेवान ताका 'महावीर' हें नांव दिलें. वर्धमानाक 'ज्ञातृपुत्र', 'अर्हत्', 'सन्मति', 'नातपुत्त', अशींय नांवां आसात. महावीर कपडे वापरिनाशिल्ल्यान ताका 'निग्गंठ नातपुत्त', विकार जिकिल्ल्यान जिकपी ह्या अर्थाचें 'जिन' हें नांव मेळ्ळें आनी ह्याच नांवावयल्यान 'जैन' ही नामनेची संज्ञा रूढ जाली. ताका केवलज्ञान प्राप्त जाल्ल्यान 'केवलिन' अशेंय म्हण्टात.

महावीराचे पयलीं जैन धर्माचे २३ तीर्थंकार जावन गेले अशें जैन धर्माचे अनुयायी मानतात. जैन धर्माक प्रभावशाली करपाचें श्रेय महावीराक मेळिल्ल्यान जगांतल्या मुखेल धर्मसंस्थापकांचे मालिकेंतल्या गौतम बुध्दावांगडा महावीराचें नांव घेवप जाता.

ल्हानपणासावन महावीराची प्रवृत्ती चिंतनशील आनी वैराग्यशील आशिल्ली. पूण आवय बापूय जितो आसतना आपूण घराचो त्याग करचोना अशें ताणें आवय बापायक वचन दिल्लें. तांच्या मरणाउपरांत नंदिवर्धन ह्या व्हडल्या भावाचे विनवणेक लागून तो कांय काळ घरा रावलो. पूण पिरायेच्या तिसाव्या वर्सा ताणें घराचो त्याग केलो. श्वेतांबर पंथाच्या अनुयायांच्या मतान महावीर लग्न जाल्लो. ताचे बायलेचें नांव यशोदा आनी चलयेचें नांव अनुजा आशिल्लें. दिंगबर पंथाच्या अनुयायांच्या मतान, महावीर लग्न जावंक नाशिल्लो. त्या काळांत राजपुतांक मेळटालें तें सगळें शिक्षण महावीराक मेळिल्लें. पूण गृहस्थधर्मांत ताचें लक्ष लागलें ना. घराचो त्याग करतकच बारा वर्सां ताणें खडतर तप केलें. उपरांत एका वर्सान आपल्या वस्त्राचोय त्याग केलो. लोकांनी ताका खूब त्रास दिलो. पिरायेच्या बेचाळीसाव्या वर्सा ताका केवलज्ञान प्राप्त जालें. तेन्नासावन तो धर्मोपदेश करीत रावलो.

धर्मोपदेश करतना लोककल्याणाचे तळमळीन, अहिंसेच्या तत्त्वाचेर भर दीत काशी, कोसल, पंचाल, कलिंग, कुरुजांगल, कंबोज, बाल्हीक, सिंधू, गांधार ह्या देशांनी भोंवलो.

महावीराचो आवय-बापूय पार्श्वनाथाचे अनुयायी आशिल्ले. ताकालागून पार्श्वनाथाचे धर्मविचार महावीराक वारसा रुपानूच मेळिल्ले. पार्श्वनाथान सत्य, अस्तेय, अहिंसा आनी अपरिग्रह ह्या चार तत्त्वांचेर आपलो चातुर्याम धर्म उबारिल्लो. महावीरान तातूंत ब्रह्मचर्याची भर घालून ताचें पंचयाम धर्मांत रुपांतर केलें.

जातिवेवस्थेचेर हल्लो करून सगळया जातिजमातींच्या लोकांक आपले शिश्य केले. बायलांक संन्यासाचो अधिकार आशिल्ल्याचें मान्य केलें.

समाजजीणेंतल्यो सगळयो वायट गजाली आनी वायट प्रवृत्ती हांचेआड बंड उबारून महावीरान श्रमणसंस्थेची प्रतिश्ठापना केली. संन्यस्त वृत्ती, कुशाग्र बुध्दी, आनी त्याग तशेंच जीं तत्त्वां स्वताक पटलीं तीं निर्भयपणान लोकांमुखार मांडपाचें धैर्य ह्या गुणांच्या जोराचेर ताणें आपल्या धर्मीक कार्याची बसका घट केली. ताणें आपलीं तत्त्वां लोकांचे भाशेंत, म्हळयार अर्धमागधींत मांडलीं. तत्त्वज्ञानांतली क्लिश्ट कल्पना स्पश्ट करपाखातीर तो दीसपट्टीं वेव्हारांतलीं उदाहरणां दितालो. ताका गणित, भूमिती आनी ग्रह-तांऱ्यांच्या हालचालींविशीं ज्योतिश शास्त्रांतूय उमेद आशिल्ली.

ताका आश्विन वद्य उमाशेक मध्यान राती पावा वा पावापुरी हांगा निर्वाण प्राप्त जालें. ह्या दिसा जैन लोक दिवाळी म्हूण मनयतात. ताच्या निर्वाणा उपरांत कार्तिक शुध्द प्रतिपदेसावन वीर संवताक सुरवात जाली.

चैत्र शुध्द त्रयोदशीक महावीर जयंती मनयतात. कांय जैन लोक भाद्रपद शुध्द प्रतिपदेक 'पर्युषण पर्वां' त महावीर जयंती मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** जैन धर्म.

**महाशिवरात :** शंकराचें एक पवित्र व्रत. दर म्हयन्यांतली वद्य चतुर्दशीची रात ही शिवरात म्हणून मनयतात. पूण माघ म्हयन्यांत येवपी वद्य चतुर्दशीचे रातीची नामना आसून तिका महाशिवरात म्हण्टात. हे रातीक शंकराची पुजा केल्यार सगळया पापांचो नाश जावन मोक्ष आनी बरें फळ मेळटा, अशें शिवभक्त मानतात. चतुर्दस दोन दिसांत विभगिल्ली आसल्यार जे मध्यानराती चतुर्दस येता ती शिवरात हाचेवयल्यान शिवरातीचो काळ थरयतना दिसाक म्हत्व नासून रातीक म्हत्व आसता. पूर्णिमान्त मास मानपी लोकांचे नदरेन महाशिवरात फाल्गून म्हयन्यांत येता.

शिवरातीचे नित्यशिवरात, पक्षशिवरात, मासशिवरात, योगशिवरात आनी महाशिवरात अशे पांच प्रकार आसून तातूंत महाशिवरात ही श्रेश्ठ मानतात. सदांची रात ही नित्यशिवरात, शुध्द चतुर्दशीची रात ही पक्षशिवरात, दर म्हयन्यांत वद्य चतुर्दशीची रात ही मासशिवरात आनी योग्यान आपल्या बळग्यान तयार केल्ली रात ही योगशिवरात मानतात.

महाशिवरातीचें व्रत कशें करचें, हाची पुराय म्हायती वेगवेगळ्या ग्रंथांतल्यान मेळटा. माघ वद्य त्रयोदशीक एकेचवेळचें जेवण घेवप, चतुर्दशी दिसा सकाळीं व्रताचो संकल्प करून न्हावप, शंकराची पुजा करून व्रत पुराय करप अशें सांगतात. उपास, पुजा आनी जागरण हीं ह्या व्रताचीं मुखेल तीन आंगां.रातच्या चवथ्या प्रहराक चार वेगवेगळे तरेन पुजा करपाची आसता, जिका यामपूजा अशें म्हण्टात. हे पुजेंत देवाक न्हाणोवप, शंकराक प्रिय अशीं बेल आनी आंब्याचीं पानां ओंपप आनी पिठाच्या दिव्यांनी ओंवाळप. दर पुजेक वेगवेगळे मंत्र आसतात. रातचें नाच, पदां आनी कथा सांगून जागरण करप. फांतोडेर न्हावन परतून पुजा करप.

थरावीक वर्सा हें व्रत करतकच ताचें उद्यापन करतात. सगळ्या जातींच्या लोकांक हें व्रत करपाचो अधिकार आसा. ह्या काळांत नकळत उपास, जागरण घडल्यार लेगीत ह्या मनशाचो उध्दार जाता, असो लोकांचो समज आसा आनी ताचेर जायत्यो कथाय प्रचलित आसात. देखीक- व्याध नांवाचो एक गरीब मनीस शिकार करून आपलें पोट भरतालो. कांय वेपाऱ्यांकडल्यान ताणें रीण घेतिल्लें, तें तो पावोपाक शकलो ना. देखून ताका देवळांत बांदून दवरलो. तो दीस शिवरातीचो आशिल्लो आनी ताका सबंद दीस उपास घडलो. सांजवेळची ताची सुटका जाली, तेन्ना रोखडोच तो शिकारेक गेलो. शिकार मेळपाखातीर तो एका झाडाचेर लिपून बसलो. तें झाड बेलाचें आशिल्लें आनी ताचे सकयल शिवलिंग आशिल्लें. सावज स्पश्ट दिसपाखातीर ताणें दोळ्यामुखावयलीं पानां खुटलीं आनी सकयल उडयलीं. तीं अचूक शिवलिंगाचेर पडलीं. सावजांक शिकाऱ्याची सुलूस लागिल्ल्यान तीं पळून गेलीं. रातभर तो जागो उरलो. फांतोडेर हरण आनी हरिणी थंय आयलीं तेन्ना व्याध तांचेर बाण सोंडूक लागलो. तें पळोवन हरणान मनशाआवाजान 'सांगलें, 'पाडसाक पाजून येता, मागीर आमकां मार' आनी तीं खरेंच पाडसाक पाजून आयलीं. पूण तांचेवांगडा पाडसांय आयिल्लीं आनी तीं हेरांक मारूं नाका आपल्याक मार अशें सांगतालीं. तें पळोवन व्याधाक तांची काकूळट दिसली आनी ताणें तांकां जिवदान दिलें. अशे तरेन नकळटा व्याधा कडल्यान उपास, जागरण आनी शिवपुजा घडली. ताचो तसोच हरणाचोय (मृग) उध्दार जालो आनी तांकां मळबांत मृग आनी व्याध ह्या नखेत्रांचें रूप मेळ्ळें.

भारतांत काशी, रामेश्वरम्, गोकर्ण, वैजनाथ, शिखरशिंगणापूर ह्या आनी हेर शिवक्षेत्रांत मोठो उत्सव जाता.

गोंयांत सगळ्या शिव मंदिरांनी महाशिवरात मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**महाश्वेता देवी :** (जल्म : १४ जानवेरी १९२६).

व्हड बंगाली कादंबरीकार. एका कलाकार कुटूंबांत तिचो जल्म जालो. तिचो बापूय मनीश घटक हो नामनेचो कवी, आवय धारित्रीदेवी हीय नामनेची लेखिका आनी बापोलयो रितविक घटक हो तर फाकिवंत चित्रपट दिग्दर्शक. तिगांयकडल्यान तिणें प्रेरणा घेतली. कलकत्ता विद्यापिठांतल्यान इंग्लीश साहित्य घेवन तिणें एम. ए. केली.

वर्गविग्रह, वर्गलडो, नक्षलवादी-चळवळ तिणें लागसल्ल्यान पळयल्ली. दलित हरिज गिरीजन जाती-जमातींचीं दुःखांय तिणें लागशिल्ल्यान पळयल्लीं. तांकां न्याय मेळोवन दिवपाखातीर तिणें संघर्शय केल्लो. हें सगळें तिच्या साहित्यांतल्यान पडबिंबीत जालें. आपले खाशेले मर्मविनोदी शैलींत तिणें ताचेर बोट दवरलां. 'इ जार चुराशीर मा', आनी 'अग्नीगर्भ' ह्या तिच्या कादंबऱ्यांनी हीच जीण आयल्या.

१९७९त तिच्या 'अरण्येर अधिकार' हे कादंबरीक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळो. १९९६ त तिचे साहित्य सेवेखातीर तिका भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळो. तर १९९७त तिका मॅगासेसे पुरस्कार भेटोवपांत आयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**महिषासूरमर्दिनी :** महामायेचें एक रूप. ह्या रुपांत तिणें महिषासूर नांवाच्या राकेसाक मारलो. देखून तिका 'महिषासूरमर्दिनी' हें नांव पडलें. रंभासूर नांवाच्या राकेसान तप करून शंकराक प्रसन्न करून घेतलो



महिषासूरमर्दिनी - वेरूळ

आनी ताका आपलो पूत जावपाची विनंती केली. शंकरान 'तथास्तु' म्हळें. एक दीस रंभासुराक रस्त्यावयल्यान वचपी एक सुंदर म्हस (महिषी) दिसली. तेन्ना रंभासुरान तिच्यांत आपलें वीर्य स्थापन केलें. दीस भरतकच तिका शंकराच्या अंशान पूत जालो. ताचेंच नांव महिषासूर.

महिषासुरान तप करून ब्रह्मदेवाक प्रसन्न केलो आनी आपल्याक दादाल्याकडल्यान मरण न येवपाचो वर मागून घेतलो. तो वर मेळटकच ताका मद चडलो आनी तो त्रैलोक्याक छळूंक लागलो. अरुणाचलाचेर पार्वती तप करताली. शिकारेखातीर महिषासूर थंय पावलो आनी तिचें सोबीत रूप पळोवन तो तिचेर भुललो. एका म्हाताऱ्याचें रूप घेवन तो तिच्या म्हऱ्यांत पावलो. ताणें ती कित्याखातीर तप करता, हाची चवकशी केली. ती बळिश्ट शंकराखातीर तप करता, अशें कळटकच आपूण बळिश्ट आसा, तेन्ना आपणाकूच वर अशें ताणें तिका सांगलें. ताचें बळ पळोवंक तिणें ताका झुजाचें आव्हान दिलें. उपरांत त्या दोगांयचें झूज जालें. तातूंत पार्वतीन महिषासुराचो वध केलो. त्या दिसासावन पार्वती महिषासूरमर्दिनी म्हूण नामनेक पावली.

ही देवी ब्रह्मा, विष्णु, महेश हांच्या संघटीत शक्तींतल्यान निर्माण जाली, अशें मत्स्य पुराणांत म्हळां. ती पुराय देवांच्या अंशापसून तयार जाली, अशें मार्कंडेय पुराणांत म्हळां.

'अभिलषितार्थचिंतामणी' ह्या ग्रंथांत तिची मूर्त कशी आसूंक जाय, हाचें वर्णन दिलां. धा हातांची, धाय हातांत त्रिशूळ, खड्ग, चक्र, बाण, शक्ती, व्हाण, धोणू, दोर, अंकूश आनी परशु हीं आयुधां, पांयांपोंदा चिड्डिल्लो रेडो, एका हातांत ताचें तोडिल्लें मस्तक, ताचे मानेंत तोपिल्लो त्रिशूळ आनी रागीट तोंड.

महिषासूरमर्दिनीचीं देवळां जायतेकडेन आसात. भूमरा हांगाच्या देवळांतली मूर्त उजवो पांय रेड्याच्या मस्तकार दवरून उबी आसा. बादामी हांगासल्ले मूर्तींत तिचो भालो महिषाचे मानेंतल्यान आरपार गेला. तिणें महिषाची शेंपडी धरून ताचो फाटलो भाग वयर उखल्ला. हळेबीड हांगाच्या होयसळेश्वराच्या देवळार जी महिषासूरमर्दिनीची मूर्त कोरांतल्या ती भोव सुंदर आसा. ती अश्टभूज आसून तिचीं कांय भुजां तुटून पडल्यांत. तिच्या उजव्या हातांत परशु, खड्ग, चक्र आनी त्रिशूळ हीं आयुधां आसून दाव्या हातांत धोणू आसा. तिचो त्रिशूळ महिषाचे छातयेंत रोमला. ती पुराय तरेन भांगराशिंगरांनी नटिल्ली आसा. तिच्या मस्तकाचेर नक्षीदार मुकूट आसा. ती विवस्त्र आसून तिचो चेहरो शांत आनी गंभीर आसा.

भारतीय नवरात्रांत अष्टमीच्या दिसा हे देवीची पुजा करतात आनी नमी दिसा तिचेखातीर होम आनी बलिदान करतात. आदल्या तेंपार दक्षिणेंत कांयकडेन तिचेखातीर रेडो बळी दिवपाची पद्दत आशिल्ली.

**पूरक नोंद :** महामाया.

- कों. वि. सं. मं.

**महीपती :** (जल्म : इ.स. १७१५, विजापूर; मरण : इ.स. १७९०).

मराठी संतचरित्रकार. ताचें आडनांव कांबळे. पूण ताहराबाद ह्या गांवांत (जि. अहमदनगर, ता. राहुरी) रावपी म्हूण महीपती ताहराबादकर ह्या नांवान ताका वळखताले. ताच्या बापायचें नांव दादोपंत; आवयचें नांव गंगाबाई. आवयबा-पायकडल्यान ताका भक्तीमार्गाची देख ल्हानपणांतूच मेळ्ळी. पिरायेच्या सोळा वर्सांचेर ताचो बापूय भायर पडिल्ल्यान संवसाराची जापसालदारकी ताचेर पडली. ताणें गांवांतूच कुळकर्णपणाची नोकरी धरली. पूण कालांतरान नोकरेपरस विठ्ठलसेवा श्रेश्ठ अशें दिशिल्ल्यान ताणें नोकरी सोडली आनी पुराय जिवीत भक्ती उपासनेंत घालयलें.

भक्ती करता आसतनाच ग्रंथ बरोवपाची इत्सा ताका जाली आनी तो संतचरित्रां बरोवपाक लागलो. ताणें बरयल्ल्या संतचरित्रग्रंथांत 'भक्तविजय', 'संतलीलामृत', 'भक्तलीलामृत', 'संतविजय' (अपूर्ण) हांचो आस्पाव जाता. तेखेरीज तुलसीमाहात्म्य, पांडुरंगमाहात्म्य, गणेशपुराण, कथासारामृत सारकीं कांय प्रकरणां बरयलीं. ताणें कांय अभंग, आरती आनी पदांय रचल्यांत. ताचे बायलेचें नांव सरस्वती. विठोबा आनी नारायण ह्या नांवाचे ताका दोन पूत आशिल्ले. तातुंतल्या विठोबाक पदां रचपाची आवड आशिल्ली.

महाराष्ट्रांतल्या १६८ आनी हेर ११६ अशा २४८ संतांचीं चरित्रां महीपतीन बरयलीं. ताणें बरयल्ल्या संतचरित्रांत ज्ञानदेव, नामदेव, दामाजी, भानुदास, चांगदेव, नानक, रोहिदास, एकनाथ, तुकाराम, रामदास हांच्या चरित्रांचो आस्पाव जाता. देवाचे कृपेबगर कवित्व निर्फळ आसा, असो ताचो भावार्थ आशिल्लो. प्रत्यक्ष पांडुरंगच आपल्याकडल्यान संतचरित्रां बरोवन घेता, असो ताचो भावार्थ आशिल्लो. प्रासादिक आनी रसाळ काव्यशैलीक लागून महीपतीचे ग्रंथ महाराष्ट्रांत भक्तीभावान वाचतात.

- कों. वि. सं. मं.

**महेंद्र :** बौध्द धर्माचो एक प्रसारक. बौध्दांच्या स्थविरवादी मतप्रणालीप्रमाण तो सम्राट अशोक हाचो चलो. जाल्यार कांय बौध्द दंतकथा आनी अस्तंती तज्ञांच्या मतान तो अशोकाचो भाव. अशोकान बौध्द धर्म आपणायल्या उपरांत त्या धर्माचें म्हत्व पटोवप आनी ताचो अबौध्द देशांत प्रसार करपाचो वावर हातांत घेतलो. बौध्द भिक्षुंचे तिसरे धर्मसंगितेंतल्या (सनपयलीं २६४) निर्णयाप्रमाण अशोकान महेंद्राच्या फुडारपणाखाल श्रीलंकेंत (सिंहल) प्रतिनिधीमंडळ धाडलें. उपरांत महेंद्राची भयण संघमित्रा हीय त्याच वावराखातीर श्रीलंकेंत गेली. श्रीलंका जुंव्याचेर त्या दोगांयनी मेळुनूच बौध्द धर्माची स्थापना केली, अशी थंयच्या लोकांची समजूत आसा. तशेच महावंश, दीपवंश, दिव्यावदान आनी ह्युएनत्सांग हाचे भोंवडेवर्णनातल्यान महेंद्राच्या व्हड वावराविशीं थोडीभोव म्हायती मेळटा. महेंद्र श्रीलंकेक पावल्याउपरांत ताणें सुरवेक थंयचो राजा देवाना प्रियतिस्स आनी ताच्या अनुचरांक बौध्द धर्माच्या तत्त्वांचो उपदेश केलो. ताच्या उपदेशान प्रभावीत जावन राजान आनी ताच्या चार हजार अनुचरांनी

बौध्द धर्म आपणायलो. उपरांत श्रीलंकेची राजकन्या अनुला हिणेंय बौध्द धर्माची दिक्षा घेवपाची इच्छा उक्तायल्ली. हाकालागून अशोकान आपली धूव संघमित्रा हिका श्रीलंकेक धाडली. उपरांत अनुला हिणें आपल्या पाचशें बायलांवांगडा बौध्द धर्म आपणायलो. फुडें त्या जुंव्याचेर बौध्द धर्माचो नेटान प्रसार जालो. ह्या भिक्षुकांखातीर महेंद्र आनी संघमित्रेन राजाच्या आदारान साबार मठ आनी विहार उबारले. राजान महेंद्राखातीर बांदून दिल्लो विहार महाविहार नांवान प्रसिद्द आसा. महेंद्रान जुंव्यावयल्या लोकांक बौध्द धर्माचें म्हत्व पटोवन दिवचेखातीर थळावे भाशेचो आदार घेतलो. उपरांत महेंद्र आनी संघमित्रेक त्याच जुंव्याचेर मरण आयलें. श्रीलंकेक वचचे पयलीं महेंद्र आपले आवयक मेळपाखातीर मध्य प्रदेशांतल्या विदेशा प्रांतांत गेलो. थंय ताचेच आवयन उबारिल्ल्या विहारांत रावन ताणें थंयच्या लोकांक बौध्द तत्त्वांचो उपदेश केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**महेंद्र पर्वत :** एक पुर्विल्लो पवित्र पर्वत. सप्त कुलपर्वतांत ह्या पर्वताचो आस्पाव जाता. पुर्विल्ल्या भारतांतल्या भूगोल जाणकारांनी उदेंत घाटाक 'महेंद्र पर्वत' वा 'महेंद्रगिरी म्हणिल्ल्याचें दिसून येता. ह्या पर्वताच्या विस्ताराविशीं खूब मतभेद आसात. ओडिसांत महान्हंयेचे देगेर हो पर्वत आसा अशें एक मत आसा, जाल्यार दक्षिणेंत सह्याद्रीच्या एका तोंकाक त्रिवांकुर जिल्ह्यांत हो दोंगर आसा अशें दुसरें मत आसा. कांय ग्रंथांतल्या वर्णनाप्रमाण ह्या पर्वताचो विस्तार ओरिसा राज्यांतल्या गंजाम जिल्ह्यासावन दक्षिणेंत (तमिळनाडू राज्य) मदुराई जिल्ह्यामेरेन आसुंये अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

पार्जिटरच्या मतान महेंद्राचल हें नांव महानदी, गोदावरी आनी वेनगंगा ह्या न्हंयांतल्या तेमकांकूच लागू जाता. ओरिसा राज्यांतलें महानदीचें देगण आनी गंजाम हांच्या दरम्यानच्या उदेंतीच्या घाटाच्या तेमकांक आयजूय 'महेंद्रमलई' वा 'महेंद्र' ह्या नांवान वळखतात. हाचेवयल्यानूच ह्या वाठारांतल्या उदेंतीकडल्या घाटाच्या सगळयांत ऊंच तेमकाक 'महेंद्रगिरी' हें नांव दिलें आसुंये.

रामायणांत ह्या पर्वताची खूब म्हायती मेळटा, ती अशी- अगस्त्य मुनीन ह्या पर्वताची दर्यांत निर्मिती केली. ह्या पर्वताचेर देव, ऋषी, यक्ष आनी अप्सरा रावतात. रामान शिवधनुश्य मोडलें, हें आयकतकच ताची परीक्षा घेवपापसत परशुराम ह्या पर्वतावयल्यानूच रामाम्हऱ्यांत आयिल्लो आनी उपरांत रामान परशुरामाक हारयतकच, परशुराम ह्याच पर्वताचेर येवन रावलो, अशी कथा आसा. कालिदासाच्या 'रघुवंशांत' हो पर्वत कलिंग देशांत आशिल्ल्याचो आनी कलिंग देशाचो राजा महेंद्राधिपती आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. बाणाच्या 'हर्षचरितांत' महेंद्र पर्वत, मलय पर्वताक तेंकिल्ल्याचो उल्लेख आसा.

महेंद्रगिरी हें उदेंत घाटांतलें सगळयांत ऊंच तेमक ओरिसा राज्याच्या गंजाम जिल्ह्यांत १८°५८' उत्तर अक्षांश आनी ८४°२४' उदेंत रेखांशाचेर, दर्यातळासावन १,५०१ मीटर उंचायेचेर आसा. हांगा इकराव्या शेकड्यांतलीं मोडिल्ले अवस्थेंतलीं चार देवळां आसात. देवळांनी संस्कृत आनी तमिळ भाशांतले शिलालेख आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मळगावकर, गोपाळनाथ :** इ. स. १७ व्या शेकड्यांतलो एक मराठी संतकवी. हो गौड सारस्वत ब्राह्मण आसून रत्नागिरी जिल्ह्यांतल्या परुळे गांवांत रावतालो. बापूय मरतकच आवयवांगडा तो सावंतवाडी लागसार मळगावांत रावपाक गेलो. उपरांत पंढरपुराक वतकच बोलधेबुवाकडे भेट जावन, ताचोच गोपाळनाथान अनुग्रह घेतलो. ताचेच आज्ञेन गोपाळनाथ परतून मळगांवांत आयलो. थंय येतकच ताणें लग्न केलें आनी पांडुरंगाचे भक्तींतूच आपली जीण सारली.

सावंतवाडीच्या खेमसावंत राजाचो गोपाळनाथाचेर खूब भावार्थ आशिल्लो. ताणें गोपाळनाथाक, पांडुरंगाचें देवूळ बांदून दिवन, दोन सनदीय बरोवन दिल्यो.

गोपाळनाथ कीर्तनकार तसोच ग्रंथकारूय आशिल्लो. ताणें बरयल्ल्या ग्रंथांचीं नांवां अशीं आसातः १) स्कंदपुराणांतर्गत पांडुरंग माहात्म्य हो ओवीबध्द ग्रंथ आसून, तातूंत पाच अध्याय आनी सयशें सुमार ओव्यो आसात. २) प्रकाशबोध हो वेदान्तावयलो ग्रंथ आसा. ३) बालक्रीडा - हो ग्रंथ ल्हान आसा. तशेंच ताणें पदां, अभंग, भूपाळयो बरयल्यात.

गोपाळनाथान खूबकडे गोपाळबोध वा बोध-गोपाळ अशी मुद्रा वापरल्या. हातुंतलो 'बोध' म्हळयार माणकोजी बोधले आसा. गोपाळनाथ हो अद्वैती आसा. मळगांवां, गोपाळनाथाची समाधी आसा. दर वर्सा हांगा उत्सव मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मळये, वसंत व्यंकटेश :** (जल्म : १५ फेब्रुवारी १९२६, मडगांव).

सुटकेझुजारी. ताणें मॅट्रीक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. खबरो पावोवप, सुटके झुजाऱ्यांक पोलिसांच्या कारवायांविशीं कळोवप, क्रांतीवीरांक आनी तांच्या घरच्यांक अर्थीक पालव दिवप, 'गोंय सुटके सैन्या' खातीर पयशे एकठांय करप असलीं कामां तो करतालो. २५ जून १९४६ ह्या दिसा डॉ. लोहियाखातीर जी मिरवणूक काडिल्ली तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना ताका पोलिसांनी धरलो आनी रोखडोच सोडलो. तो प्रभातफेरींनी वांटो घेता म्हूण नोव्हेंबर

१९४६ त ताका परतो धरलो आनी पांच दीस बंदखणींत दवरलो. फुडें परतो ताका मडगांवां धरलो आनी चार वर्सां आनी पांच म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताचेकडल्यान उतर घेवन ताका सोडलो. गोंय सुटके उपरांत तो मडगांव नगरपालिकेंत वांगडी म्हूण वेंचून आयलो. १९७४ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मॅकमहोन वळ :** भारत आनी चीन हांचे मजगतींची वादग्रस्त उत्तरपूर्व शीम. भूतानच्या उदेंतेकडल्या तवांग वाठारा सावन ब्रह्मदेशाचे शिमेवयल्या वालाँग वाठारामेरेन सुमार १,१५२ किमी. लांबायेचे शिमेवळीक मॅकमहोन वळ अशें म्हण्टात. सर ऑर्थर हेन्री मॅकमहोन (१८६२-१९४९) हो ब्रिटीश सनदी अधिकारी आशिल्लो. ताणें १८९३त ड्युरँड मिशनावांगडा बलुचिस्तान आनी अफगाणिस्तान हांच्यो शिमो निश्चित करपाक वांटो घेतिल्लो. फुडें १९११-१४ ह्या काळांत ताणें परराश्ट्र सचिव म्हूण हिंदुस्थानांत काम केलें. ऑक्टोबर १९१३ ते जुलय १९१४ हांचे मजगतीं सिमला हांगा तिबेटी, चिनी आनी ब्रिटीश प्रतिनिधींची परिशद भरिल्ली. हे परिशदेंत हिंदुस्थान आनी तिबेट हांचे मजगतींच्यो शिमो थारावपाखातीर मुखेल ब्रिटीश प्रतिनिधी म्हूण मॅकमहोन हाणें ही शीम सुचयली आनी तिका तिबेटी प्रतिनिधींची मान्यताय मेळ्ळी. सिमला परिशदेचो मुखेल हेत चीन आनी तिबेट हांच्यांतलो वाद पालोवपाचो आशिल्लो.

तेखातीर मॅकमोहन हाणें तिबेटचे इनर तिबेट (चीनच्या अधिपत्याखाल) आनी आवटर तिबेट (स्वतंत्र दलाई लामाच्या अधिपत्याखाल) अशे दोन भाग सुचयले. दलाई लामाच्या अधिपत्याखाल तिबेटची ताणें जी दक्षिण शीम सुचयल्ली, तीच फुडें हिंदुस्थान आनी तिबेट हांची तशेंच तिबेट आनी ब्रह्मदेश हांची शीम जाली. हे सिमला कबलातीक चिनी प्रतिनिधीन संमती दिली, पूण चीनच्या सरकारान संमती न्हयकारली.

हिंदुस्थान स्वतंत्र जातकच आनी कम्युनीस्ट चीनान तिबेटाचेर अधिपत्य प्रस्थापित करतकच मॅकमहोन वळ ही भारत आनी चीन हांचेमदली शिमेवळ जाली. १९१४ चो ब्रिटीश-तिबेटी समझोतो दडपणाखाल आनी साम्राज्यवादी चेपणाखाल जाला, असो युक्तीवाद करून तांबड्या चीनान मॅकमहोन वळ आंतरराश्ट्रीय शीम मानपाक न्हयकार दिलो. १९६२च्या भारत-चीन संघर्शाक हे वळीविशींचो वाद कारण जालो.

भूतानालागसार २७.४५ अक्षांशाकडेन मॅकमहोन वळ सुरू जाता. ती उत्तरेकडेन २९.२० अक्षांशामेरेन वचून परत दक्षिणेकडे सोंपता. ९२ उदेंत रेखांश ते ९८.१५ उदेंत रेखांश पातळिल्ले मॅकमहोन वळीक लागून बोमदिला, सेला, लाँगजू, तलोक पास ह्यो म्हत्वाच्यो खिंडी भारताच्या नियंत्रणासकयल येतात. ताका लागून पुराय नेफा वाठाराचें आनी आसामचें संरक्षण करप सोंपें जाता. खिंडी आनी दोंगरांच्यो वळी हांकां लागून मॅकमहोन वळ ही सैमीक शीम जाल्या. देखून आजूनय भारत आनी चीन हांच्यांत मॅकमहोन वळीविशीं वाद आसून भारत-चीन संबंद सुरळीत जावपामदीं ती एक मुखेल आडखळ जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**मॅकमिलन, एडविन मॅटिसन :** (जल्म : १८ सप्टेंबर १९०७, रेडोंडो बीच - कॅलिफॉर्निया).

नामनेचो अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ. १९२८ त ताणें कॅलिफॉर्निया इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नोलॉजीची बी. एस. आनी १९२९ त एम. एस. ही पदवी मेळयली. १९३२त ताणें प्रिन्स्टन विद्यापिठाची पीएच. डी. मेळयली. त्याच वर्सा बर्कले हांगाच्या कॅलिफॉर्निया विद्यापिठांत नॅशनल रिसर्च काउन्सिलचो फेलो म्हूण ताणें काम केलें. १९३५ त भौतिकी विभागांत सहयोगी संशोधक म्हूण ताची नेमणूक जाली. थंयच तो १९३५-४१त सहाय्यक प्राध्यापक, १९४२-४६त सहयोगी प्राध्यापक आनी १९४६-७३ त तो भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक आशिल्लो.

अणुकेंद्रीय भंजनाचो अभ्यास करता आसतना ताणें युरेनियम (२३९) च्या किरणोत्सर्गी क्षयावरवीं तयार जावपी नेपच्यूनियम ह्या ९३ अणुक्रमांक आशिल्ल्या आनी युरेनियमाउपरांतच्या पयल्या मूलद्रव्याचो सोद १९४०त आबेलसन हाच्या पालवान लायलो. मॅकमिलन, सीबॉर्ग आनी तांच्या वांगड्यांनी अण्वस्त्रांचे निर्मितीखातीर जाय आशिल्ल्या 'प्लुटोनियम' ह्या मूलद्रव्याचो १९४१ त सोद लायलो. 'सिंक्रोटॉन' ह्या नांवाच्या कणवेगवर्धकांचे रचणुकेंत गरज आशिल्ल्या कलाथीरताय तत्त्वाची ताणें १९४५त उदरगत केली.

युरेनियमाउपरांतच्या मूलद्रव्यांविशींच्या संशोधनाखातीर मॅकमिलन हांगा ग्लेन थीओडोर सीबॉर्ग हाच्यावांगडा १९५१ वर्साच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान फाव जालो. १९६३ त ताका, वेक्सलर हाचेवांगडा १९६३ वर्साचो 'शांततायेखातीर अणू' ह्या पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो. अमेरिकेच्या अणुऊर्जा मंडळाच्या सादारण सल्लागार समितीचो वांगडी (१९५४-५८), इंटरनॅशनल युनियन फॉर प्युअर अँड ॲप्लाइड फिजिक्स हे संस्थेच्या उच्च ऊर्जा भौतिकी समितीचो वांगडी (१९६०-६६) ह्या पदांचेर ताणें काम केलां. अमेरिकेच्या नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचो वांगडी म्हूण ताची १९४७ त निवड जाली. कितल्याशाच विद्यापिठांनी ताका मानादीक डॉक्टरेट भेटयल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## मॅकलाउड (मॅक्लिऑड), जॉन जेम्स रिकार्ड :

(जल्म : ६ सप्टेंबर, १८७६, क्लूनी (स्कॉटलंड); मरण : १६ मार्च १९३५, ॲबर्डीन).

नामनेचो ब्रिटीश शरीरक्रियाविज्ञानीक. ॲबर्डीन हांगाच्या मारिशाल कॉलेजांत वैजकीचें शिक्षण घेवन १८९८त ताणें एम. बी.सीएच. बी. ही पदवी मेळयली. ॲंडरसन शिश्यवृत्ती घेवन ताणें लाइपसिक हांगाच्या शरीरक्रियाविज्ञान संस्थेंत जीवरसायनशास्त्राचो एक वर्स अभ्यास केलो. १९०० त लंडन हॉस्पिटल मेडिकल कॉलेजांत शरीराक्रियाविज्ञानाचो निदेशक आनी १९०२ त जीवरसायनशास्त्राचो अध्यापक म्हूण ताची नेमणूक जाली. रॉयल सोसायटीचो मॅकिनॉन संशोधक म्हणूनय ताणें काम केलां. त्याच सुमाराक ताणें केंब्रिज हांगा पदव्युत्तर शिक्षण घेवन भौशिक आरोग्यशास्त्राची पदविका घेतली. १९०३त, तो अमेरिकेंतल्या क्लिव्हलँड हांगाच्या वेस्टर्न रिझर्व्ह विद्यापिठांत शरीरक्रियाविज्ञानाचो प्राध्यापक जालो. थंयच्याच शरीरक्रियाविज्ञानाचे प्रयोगशाळेचो तो संचालक जालो. १९२८ त, स्कॉटलंडाक परत येतकच ॲबर्डीन हांगा शरीरक्रियाविज्ञानाचो रेगिअस प्राध्यापक म्हूण ताणें काम केलें.

१९१३त, मॅकलाउड हाणें गोडेंमूत आनी ताचें विकृती विज्ञानीक शरीरक्रियाविज्ञान हांचेविशीं एक म्हत्वाचो ग्रंथ बरयलो. अमेरिकेंतल्या आपल्या राबित्यांत ताणें कार्बोहायड्रेटांच्या चयापचयाचेर आनी गोडेंमुताचेर केल्ल्या संशोधनाक लागून नामना मेळयली. जे. बी. कॉलीप ह्या जीवरसायनशास्त्रज्ञाच्या पालवान उपचार करपाखातीर वापरपाक बरें अशें इन्शुलीन वेगळें करपांत आयलें आनी १९२२ त ताचो गोडेंमुताचेर वापर केलो. १९२१ त ताणें प्राकृतिक आनी अग्नीपिंड काडून उडयल्ल्या जनावरांच्या रगतांतलें साकर पातळी नियंत्रण आनी साकर चयापचयांतलें यकृत, स्नायू आनी अग्नीपिंड हांचें कार्य हांचेविशीं खोलायेन परीक्षण कार्य केल्लें.

इन्शुलीन ह्या म्हत्वाच्या हॉर्मोनाच्या सोदाखातीर ताका १९२३ वर्साचो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञानाचो नोबॅल पुरस्कार सर फ्रेडरिक ग्रांट बँटिंग हाच्या वांगडा वांटून मेळ्ळो. नोबॅल पुरस्काराखेरीज ताका आनीक हेर कितलेशेच भोवमान फाव जाल्यात. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं : Practical Physiology (१९०२), Physiology and Bio-Chemistry in Modern Medicine (१९१८).

- कों. वि. सं. मं.

## मॅग्ना कार्टा :

इंग्लीश संविधानीक कायद्याची सुरवात करपी दस्तऐवज. राजा आनी सरंजामी सरदारवर्ग हांच्या संघर्शांतल्यान हो दस्तऐवज जल्माक आयलो.

अँजेव्हिन वा प्लँटेजेनेट घराण्यांतलो जॉन लॅकलँड राजा (११९९-१२१६) हो खूब जुलमी आनी विश्वासघातकी आशिल्लो. ताचो भाव रिचर्ड मरतकच जॉनान आपलो पुतणयो आर्थर हाका बंदखणींत घालून गादी हातासली. फुडें ताणें आर्थरचोय खून केलो आनी प्रजेच्या मागण्यांकडेन दुर्लक्ष केलें.

जॉनाक आपले मुस्तींत पोप तिसरो इनोसंट आनी फ्रांसाचो राजा फिलीप ऑगस्टस हांचेकडेन संघर्श करचो पडलो. तांच्याकडल्या झुजांत तो हरलो. तो इंग्लंडांत नासतना, ताचे गैरहजेरेचो फायदो असंतुश्ट सरदारांनी घेतलो. तांणी एकठांय येवन राजसत्तेक मर्यादा घालपाचें थरयलें. हे विशीं आर्चबिशप स्टिव्हन लँगट्न हाणें सरदारांक मार्गदर्शन केलें. पयल्या हेन्रीन दिल्ला स्वातंत्र्याच्या मसुद्याचें पुनरुज्जीवन करचें, अशें ताणें सुचयलें. तेप्रमाण त्या मसुद्याचेर आदारिल्ली हक्काची सनद तयार केली आनी ती राजाफुडें दवरली (६ जानेवारी १२१५). जॉनान सुरवेक सय करपाचें न्हयकारलें. पूण निमाणें १५ जून १२१५ दिसा ताका सय करचीच पडली.

इंग्लंडच्या घटनात्मक इतिहासांत हे सनदेक खूब म्हत्व आसा. म्हूण ताका 'मॅग्ना कार्टा'. व्हडली सनद अशें म्हण्टात. हे सनदेंत एकूण ६२ कलमां आसून हीं कलमां ११ माथाळ्यांखाला विभागल्यांत. तातूंत चर्चीविशींचीं कलमां, राजा आनी सरदार वर्ग हांचे संबंद उक्तावपी कलमां, सामान्य घटनात्मक कलमां, राजाच्या कर्जाविशींचीं कलमां, न्यायाविशींचीं कलमां, थळाव्या स्वराज्याविशींचीं कलमां, वेपार, नागरी शासन आदी विंगड विंगड विशय आसात. सनदेचे सुरवेक आनी अखेरेक चर्चीच्या स्वातंत्र्याविशीं सांगिल्लें आसून राजा वा ताचे वारसदार हांणी हें वचन पाळूंक जाय. म्हत्वाच्या कलमांचो थोडेभीतर आशय असो-राजान सरंजामशाहीच्या हक्काचो दुरुपयोग करचो न्हय. कितलींशींच कलमां सरंजामशाहीच्या हक्कांविशींचीं आसात. सरदाराचो वारस अल्पवयीन आसल्यार ताचे आस्पतीचो कारभार चलयतना राजान फकत योग्य तो मेहनताना घेवचो आनी सरदारांकडल्यान कायदेशीर तितलीच सेवा घेवची. कायदो आनी सुवेवरथेखातीर कॉमन प्लीकोर्ट फाव थंय भरचें, दंडाची रक्कम गुन्यांवाचे खरसाणीप्रमाण आकारची आनी निःपक्षपाती न्यायाधीश नेमचे.

हे सनदेंतलीं सगळ्यांत म्हत्वाचीं कलमां मूलभूत हक्कांविशींचीं आसात. खंयचीच मालमत्ता फाव ती नुकसान भरपाय दिवपाखेरीज भौशिक कामाखातीर घेवप जावचें ना (कलमां २८ ते ३१), कायदेशीर ख्यास्त जाल्लेखेरीज कोणाकूच बंदखणींत उडोवचेनात वा हद्दपार करचेनात (कलम ३९), न्याय आनी हक्क कोणाकूच न्हंयकारचेनात वा राजा तो विकचो ना वा तो चालीक लावपाक कळाव करचो ना (कलम ४०).

जॉनाचो सरदारांचेर विश्वास नाशिल्ल्यान तो सनदेची अंमलबजावणी करीत काय ना हाचेविशीं दुबाव आशिल्लो. देखून ताणें २५ सरदारांचें निरीक्षण मंडळ नेमलें. राजान संसदेचो भंग केल्यार ह्या निरीक्षण मंडळान

राज्यकारभार आपल्या हातांत घेवपाचो आशिल्लो. अशे तरेन प्रस्तुत उठावाक कायदेशीर स्वरूप हे सनदेक लागून प्राप्त जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**मॅयर, गोल्डा :** (जल्म : ३ मे १८९८, कीव, उक्रेन; मरणः ८ डिसेंबर १९७८, जेरुसलेम).

इस्त्रायल राज्याची संस्थापक आनी चवथी प्रधानमंत्री (पयली बायल प्रधानमंत्री). प्रधानमंत्री पद हाशील करपी ती संवसारांतली तिसरी बायल आशिल्ली. १९०६त आपल्या कुटुंबावांगडा ती उक्रेन सावन अमेरिकेच्या मिलवॉकी प्रदेशांत स्थायीक जाली. तिचें शिक्षण थंयच जालें आनी उपरांत कांय तेंप तिणें थंयच शिक्षीका म्हूण वावर केलो. मुखार लॅबर झिऑनिस्ट पक्षाच्या मिलवॉकी फांट्याची अध्यक्ष जाली.



'झायनिझम' चळवळीखाला संवसारांतले साबार ज्यू लोक जेन्ना पॅलेस्टायनांत वचून रावपाक लागले, तेन्ना १९२१त तीय आपल्या घोवा वांगडा पॅलेस्टायनांत गेली (सद्याचें इस्त्रायल राज्य). थंय सुरवेक तिणें किब्बूटज शारांत आनी उपरांत तेल अवीव शारांत आपलो राबितो केलो. किब्बूट्झ शारांत आसतना ती 'जनरल फॅडरेशन ऑफ लॅबर' संघटनेची प्रतिनिधी, तेच संघटनेच्या व्हूमन्स लॅबर कॉन्सिल फांट्याची सचीव आनी तेच संघटनेच्या एक्झेक्युटीव कमिटीची वांगडी आशिल्ली. तेल अवीव शारांत आयल्या उपरांत तिणें कारकून म्हूण आनी हेर कनिश्ठ वावर केलो.

इस्त्रायल देश अस्तित्वांत आयल्या उपरांत १९४९त जाल्ले वेंचणुकेंत ती संसदेचेर वेंचून आयली. बॅन गुरीयनच्या मंत्रीमंडळांत तिचो आस्पाव आसलो. १९५६त तिच्या घोवाक मरण आयल्या उपरांत तिणें गोल्डा मॅयरसन हें आपलें नांव बदलून 'हबरीव मॅयर' हें नवें नांव घेतलें. १९४९ ते १९५६ ह्या काळांत इस्त्रायलच्या मंत्रिमंडळांत ती एकलीच बायल मंत्री आसली. १९६८त 'लेबर पार्टी' च्या जनरल सेक्रेटरी पदाचो राजीनामो दिलो. मार्च १९६९त प्रधानमंत्री लेवी एशकलच्या मरणा उपरांत ती इस्त्रायलची हंगामी प्रधानमंत्री जाली. ऑक्टोबर १९६९चे वेंचणूकेंत ती परतून वेंचून येवन इस्त्रायलची चवथी प्रधानमंत्री जाली. ऑक्टोबर १९७३ यॉन किप्पूरच्या अरबांआड जाल्ल्या झुजांत इस्त्रायलचें खूब नुकसान जाल्ल्यान विरोधकांनी तिचेर टिकांचो शिंवर केलो. हाका लागून तिका प्रधानमंत्री पदाक सोडचीट दिवची पडली. १९७८त पिरायेच्या ८०व्या वर्सा तिका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**मॅराथॉन सर्त :** लांब अंतर धांवपाची आर्विल्ली सर्त. हातूंत स्पर्धकाक सुमार ४२,१९५मी. अंतर धांवचें पडटा. मॅराथॉन हो गांव अथेन्सचे ईशान्येक ३२ किमी. अंतराचेर पेटाल्यॉन आखाता लागसार वसला. अथेनियन आनी प्लाटीयन सैन्यान मिल्टायडीझच्या फुडारपणाखाल मॅराथॉन मळाचेर पर्शियन सैन्याचो पराभव केल्लो. (इ.स. ४९०). फायडिपिडीझ ह्या ग्रीक सैनिकान मॅराथॉन ते अथेन्स हें सुमार ४०किमी. अंतर धांवत वचून ह्या जैताची खबर अथेन्सांत दिली. ह्या अती श्रमांक लागून ताका मरण आयलें. ह्या असामान्य धांवपी सैनिकाच्या उगडासाखातीर अथेन्स हांगा १८९६त भरिल्ले पयले ऑलिंपिक सर्तींत मॅराथॉन ते अथेन्स अशी धांवपाची सर्त दवरली. तिकाच मॅराथॉन सर्त अशें नांव पडलें. फुडें दर ऑलिंपिक सर्तींत ही लांब अंतराची सर्त जावपाक लागली.

१९२४त, हे सर्तीचें अंतर ४२, १९५मी. अशें सर्वसंमत केलें. प्रत्यक्ष अंतराविशीं दर खेपे थोडोभोव फरक पडत गेला. तशेंच मार्गाचें प्रमाणीकरण जाल्लें नाशिल्ल्यान मॅराथॉन सर्त पुराय करपाच्या वेळेविशींच्या उच्चांकांची 'इंटरनॅशनल ॲमॅच्युअर ॲथलेटिक फेडरेशन' वरवीं अधिकृत रितीन नोंद दवरीनात. सर्तीची सुरवात आनी अखेर फकत मैदानाचेरूच जाता. उरिल्लें अंतर धांवप्यांक रस्त्यावयल्यान धांवचें पडटा.

पयले ऑलिंपिक सर्तींतली मॅराथॉन सर्त मीशेल ब्रेआल हाचे प्रेरणेन जाली. ताणें स्वता हे सर्तींतल्या वस्तादाखातीर इनाम दवरलें. १८९६ चे सर्तींत सिपरीदॉन लूइस ह्या ग्रीक धांवपटून २ वरां, ५८ मिनटां आनी ५० सेकंद इतल्या वेळांत ही सर्त जिखली. फुडें धांवपाच्या तंत्रांत उदरगत जायत गेल्ल्यान ही सर्त पुराय करपाक लागपी वेळ उणो जायत गेलो. १९७२त, म्युनिक हांगाचे ऑलिंपिक सर्तींत अमेरिकेच्या फ्रँक शॉर्टरान ही सर्त २ वरां, १२ मिनटां आनी १९.८ सेकंदांभीतर पुराय केली.

१९५२त झेकोस्लोव्हाकियाचो एमील झॅटोपेक हाणें ५,००० आनी १०,००० मी. अंतराच्यो सर्ती जिखल्योच पूण मॅराथॉन सर्तींतूय तो पयलो आयलो. इथिओपियाच्या अबेबे बिकिलान (१९६०, १९६४) आनी उदेंत जर्मनीचो व्हाल्डेमार सीअरपिन्स्की हाणें (१९७६, १९८०) फाटोफाट दोनदां ऑलिंपिक मॅराथॉन सर्त जिखपाचे विक्रम केले. मॅराथॉनच्या ऑलिंपिक सर्तींतलो संवसारीक विक्रम पुर्तुगालच्या कार्लूश लोपेसच्या नांवार आसा. ताणें लॉस अँजेल्सचे ऑलिंपिक सर्तींत (१९८४) मॅराथॉनचें अंतर २ वरां, ९ मिनटां, २१ सेकंद ह्या वेळांत पुराय केलें. मॅराथॉन सर्तींतलो आयजमेरेनचो संवसारीक विक्रम अमेरिकेच्या आल्बेर्तो सालाझारचो आसून ताणें मॅराथॉनचें अंतर १९८१त फकत २ वरां, ८ मिनटां, १३ सेकंद इतल्या कमी वेळांत पुराय केलें. पूण हे सगळे उच्चांक अनधिकृत रितीन नोंद जाल्यात.

आशियाई खेळां सर्तींत मॅराथॉन सर्तीचो आस्पाव जाल्लो आसून, १९५१त नवी दिल्लींत जाल्ल्या पयल्या आशियाई सर्तींत भारताचो छोटासिंग हो खेळगडो जैतीवंत जाल्लो (२ वरां, ४२मिनटां ५८.६ सेकंद). ते उपरांत १९७८त जपानच्या मिनेतेरू साकामोतोन २ वरां, १५ मिनटां आनी ८९.७ सेकंद इतल्या वेळांत ही सर्त जिखली.

मॅराथॉन सर्ती ह्यो १९८४पयलीं फकत दादल्यांपुरत्योच मर्यादित आशिल्ल्यो. पूण लॉस अँजेल्सचे ऑलिंपिक सर्तींत १९८४त पयलेच खेप बायलांखातीर मॅराथॉन सर्त घेतली आनी तातूंत अमेरिकेच्या जोन बेनॉइटान २ वरां, २४ मिनटां, ५२ सेकंद इतल्या वेळांत मॅराथॉनचें अंतर पुराय करून भांगरा पदक जिखलें.

मॅराथॉन सर्त ऑलिंपिक सर्तींत बरीच लोकप्रिय जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**मेरी इमेक्यूलेट कन्सेप्शन :** पणजी शारांत आशिल्ली गोंयची नामनेची चर्च. इ.स. १५४१त एका कपेलाच्या रुपांत ही चर्च पणजेच्या मध्यवर्ती सुवातेर बांदली. १६००त तिका चर्चिचो आकार



दिलो आनी १६१९त तिचें सद्याचें आधुनिकीकरण करपांत आयलें.

चर्चिच्या आंवाठाच्या रुंदायेचीं सपणां आनी आकारांत गोंयांत दुसरो नंबर आशिल्ली २२५० किग्रॅ. वजनाची घाट ही हे चर्चिचीं दोन खाशेलपणां (१८७१).

दरवर्सा १३मेक Our Lady of Fatima आनी ८डिसेंबराक Our Lady of Immaculate conception हांच्या नांवान हांगा व्हड दबाज्यान उत्सव (फेस्त) जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**मॅसिडोनिया :** आग्नेय युरोपांतल्या बाल्कन द्वीपकल्पांतलो इतिहासीक नामनेचो वाठार. सद्याच्या ग्रीस, बल्गेरिया आनी युगोस्लाव्हिया ह्या तीन देशांत हो विभागला. क्षेत्रफळ : सुमार ६६,३९७ चौ.किमी. उत्तरेक इजीयन दर्यासावन ईपायरसचे अस्तंतेक आनी थ्रेसचे उदेंतेक हाचो विस्तार आसून बार्दर, स्त्रूमा आनी मेस्ता ह्या न्हंयांच्या देगणांनी आनी पिंडस, रॉडॉपी ह्या दोंगरा वाठारांनी तो व्यापला.

मॅसिडोन ह्या पुर्विल्ल्या नगराच्या वाठारांत सामके सुरवेक आशिया मायनरांतल्या शेतकार लोकांची वसणूक आशिल्ली अशें दिसता. इ.स.प. दुसऱ्या सहस्त्रकांत उत्तरे कडल्यान थ्रेको-इलिरियन जमातीचे लोक ह्या भागांत आयले. इ.स.प. सातव्या शतमानांत राजकीय नदरेन हे लोक संघटित जाले आनी तांणी आपलो शेक उदेंतेकडल्या सलॉनिक मळामेरेन प्रस्थापित केलो.

इ.स.प. ११०० त ग्रीकांनी मॅसिडोनियाचेर साम्राज्य प्रस्थापित केलें. मॅसिडोनियाचो राजा दुसरो फिलिप हाणें इ.स.प. ३३८त पुर्विल्ल्या इराणी सत्तेआड मोहीम सुरू केली. ताचो पूत अलेक्झांडर द ग्रेट हाणें इराण्यांक हारयले. ताच्या मरणाउपरांत मॅसिडोनियन साम्राज्याचे कुडके जाले. इ.स.प. १४८त मॅसिडोनिया हो रोमन प्रदेश जालो. रोमन साम्राज्याच्या उत्तर काळांत तो उदेंतेकडल्या बायझंटिन प्रदेशांत आस्पावपांत आयलो.

इ. स. १३००त मॅसिडोनिया, बल्गेरिया आनी सर्बीयन प्रदेशांत विभागलो. १३८९ ते १९१२ मेरेन हो वाठार तुर्कांच्या शेकातळा आशिल्लो. बल्गेरियन, ग्रीक आनी सर्बीयन लोक तुर्कांकडेन झुजत आशिल्ले. १९१२त पयलें बाल्कन झूज जालें. तातूंत तुर्क हरले. ग्रीस, बल्गेरिया आनी यूगोस्लाव्हिया ह्या तीन देशांत मॅसिडोनियाचो वाठार विभागलो.

मॅसिडोनियाचो आनीकूय वाठार मेळोवपाखातीर बल्गेरियान केल्ल्या उठावाक लागून दुसरें बाल्कन झूज जालें (१९१३), तातूंत बल्गेरियाचो पराभव जालो. बुकारेस्ट कबलातीप्रमाण मॅसिडोनियाचो थोडोच भाग ताच्या ताब्यांत उरलो. ताका लागून हजारांनी मॅसिडोनियन लोक बल्गेरियांत पळून गेले. पयल्या म्हाझुजाउपरांतच्या काळांत मॅसिडोनियांत बल्गेरियाचे प्रेरणेन दहशतवाद पातळलो.

युगोस्लाव्ह आनी बल्गेरिया हांचे संबंद मुदलांतूच मॅसिडोनियन प्रस्नाक लागून इबाडिल्ले. शिमेचेर चकमकी जायत आशिल्ल्यो. ह्या सगळ्या प्रस्नांवयल्यान १९३४ त एका मॅसिडोनियनान युगोस्लाव्हचो राजा अलेक्झांडर हाचो खून केलो (१९३४). दुसऱ्या म्हाझुजा काळांत बल्गेरियान सगळो मॅसिडोनिया व्यापिल्लो. १९४७ चे शांतताय कबलातीप्रमाण मॅसिडोनियाच्या संदर्भांतल्यो ग्रीस युगोस्लाव्हिया आनी बल्गेरिया हांच्यो झुजापयलींच्यो शिमो थारावपांत आयल्यो. युगोस्लाव्ह संविधानाप्रमाण (१९४६) युगोस्लाव्ह मॅसिडोनिया हो एक स्वायत्त घटक जालो आनी मॅसिडोनियन लोकांची स्वतंत्र राष्ट्रीयता मान्य केली. म्हाझुजाउपरांतच्या ग्रीसांतल्या यादवी झूजकाळांत ग्रीस आनी

युगोस्लाव्हिया हांचेमदले संघर्श वाडत गेले. युगोस्लाव्ह-बल्गेरिया मतभेदांक लागून १९४८ उपरांत हो प्रस्न स्फोटक जालो. पूण ग्रीसांतलें यादवी झूज सोंपतकच आनी यूगोस्लाव्ह-बल्गेरिया संबंद सुदारिल्ल्यान १९६२ उपरांत मॅसिडोनियन प्रस्न निवळ्ळा.

हांगाची जमीन सुपीक आशिल्ल्यान हांगा तंबाकू, गंव, राय, मको, कापूस, सूर्यफूल हीं म्हत्वाचीं पिकां जातात. क्रोम, ॲस्बेस्टस, तांबें, रुपें, गंधक आनी लिग्नाइट हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं खनिजां. मेंढरां पोसप, कापड-उद्योग, आयदनां तयार करप हे म्हत्वाचे वेवसाय आसात. मॅसिडोनियन ही हांगाची मुखेल बोलीभास आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## माईणकर, राघोबा बाबली : (जल्म : १५ ऑक्टोबर १९२७, होंडा, सत्तरी).

सुटकेझुजारी. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. विश्वनाथ एन. लवंदे हाच्या फुडारपणाखाल आझाद गोमंतक दल संघटनेचे वतीन तो राश्ट्रीय प्रचार करपाचें काम करतालो. पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी १० म्हयने बंदखणींत दवरलो. बंदखणींतल्यान सुटका जाल्या उपरांत तो परत सुटके दल संघटने खातीर वावर करूंक लागलो. १९७३ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## माओ, त्से-तूंग : (जल्म : २६ डिसेंबर १८९३, शाव-शान, हुनान, चीन; मरण : ९ सप्टेंबर १९७६, पॅकींग).

कम्युनिस्ट चीन देशाचो संस्थापक, राजनितिज्ञ, मार्क्सवादी विचारसरणेचो पुरस्कर्तो आनी पराक्रमी सैनीक. ताचो बापूय, माव श्वुन-शंग हो शेतकामती आशिल्लो. माओचें मुळावें शिक्षण शाव-शान गांवांतूच जालें. माओचें मुळावें शिक्षण काबार जाल्याउपरांत ताच्या बापायन ताका आपल्या वांगडा शेतवडींत कामाक लायलो. पूण तीन वर्सांउपरांत बापायचो विरोध आसून लेगीत तो माध्यमिक शिक्षण घेवपाखातीर आपल्या आजोळा वचून रावलो.



विद्यार्थी आसतनाच अस्तंती क्रांतीकारी तत्त्वांनी आनी सुन याट-सेनच्या राश्ट्रवादी कल्पनांनी तो प्रभावीत जाल्लो. १९११त मांचू राजवंशाआड जाल्ल्या उठावांत ताणें स्वयंसेवक म्हूण वांटो घेतिल्लो. तशेंच १९१९त पॅकींग विद्यालयांत शिकता आसतना मे फोर्थ (may forth) हे विद्यार्थी चळवळींतूय ताणें वांटो घेतिल्लो. त्याच वर्सा ताणें स्यांग-ज्यांग-फींग-ल्युन हें म्हयन्याळें सुरू केलें. पूण ताणें राजकर्त्यांचेर आनी लश्करी गव्हर्नराचेर टिका केल्ल्यान सरकारान त्या म्हयन्याळ्याचेर बंदी हाडली. मुखार अस्तंती उदारमतवादी तत्त्वांवयलो ताचो विस्वास उणो जाल्या उपरांत, तशेंच ली दा-जाव हाच्या तेंक्यान ताचो मार्क्स-लेनीन लिखाणाकडेन आनी हेर कम्युनिस्ट चळवळींकडेन लागिंचो संबंद आयिल्ल्यान ताणें तीं तत्त्वां चिनांत रूजवपाचो निश्चेव केलो. ते खातीर ताणें चीनाच्या साबार प्रांतांतल्या शेतकामत्यांक एकवटीत करून गोरिला सैन्य उबारलें. तशेंच १९२१त ताणें चीन कम्युनिस्ट पक्ष उबारपाक आदार केलो. गुपीतपणान गोरिला सैन्य उबारता आसतना, चार-चौगां मुखार तो चँग कै-शेकेच्या क्वोमिंतांग राश्ट्रवादी पक्षाकडेन एकनिश्ट रावलो.

पयल्या म्हाझुजाच्या शेवटाक रशियेंत क्रांती सुरू जाल्ली तेन्ना थंयचे उद्येग-धंदे बरेच फुडारिल्ले. हाका लागून रशियेंत कम्युनिस्ट राजवट उबारपाक लेनिनान श्रमीक लोकांक एकवटीत केल्ले. पूण चिनांत फकत संघटीत शेतकामतीच क्रांती घडोवन हाडपाक लायक आसा. अशें माओचें मत आशिल्लें हाका लागून चिनी कम्युनिस्ट पक्षाभितर व्हड वाद निर्माण जालो. तशेंच रशियेनूय तांकां आदार दिवपाचो बंद केलो. १९२७ त क्वोमिंगतांग पक्षांतल्यान माओ भायर सरलो. उपरांत १९३१त आग्नेय चिनांत चिनी सोव्हीयत प्रजासत्ताकाचो तो मुखेली जालो. कम्युनिस्टांचो दिसान दीस शेक वाडत आसा हें जाणून चँग कै-शेक हाणें आपल्या तीन लाख सैन्याच्या आदारान कम्युनिस्टांक रेवाडो घालून, तांचो नाश करपाचें थरयल्लें. पूण माओच्या फुडारपणाखाला २०,००० गोरिला कम्युनिस्ट ३६८दीस सुमार बारा हजार किमी. अंतर हुपून आनी साबार अडचणींक तोंड दिवन ते खेड्यांतल्यान यशस्वीपणान भायर सरले (१९३४-३५). ही घडणूक चिनाच्या इतिहासांत लाँग मार्च (Long March) म्हूण प्रसिध्द आसा. उपरांत यूनान प्रांतांत आपलें ठाणें उबारून कम्युनिस्ट गोरिल्ला क्वोमिंगतांग आड झगडत रावले. १९३६त जपानान चिनाचेर घुरी घातिल्ली तेन्ना जपानाआड झुजपाचें थारायलें. पूण दुसऱ्या म्हाझुजांत जपानाचो पराभव जाल्या उपरांत सत्तेर येवपाखातीर क्वोमिंगतांग आनी कम्युनिस्टांभितर परत झगडीं सुरू जालीं. दोनूय पक्षांभितर तडजोड घडोवन हाडपाखातीर अमेरिकेन खूब यत्न केले, पूण ते अपेशी थारले. निमाणे कडेन, एप्रिल १९४८त पॅकींग शारांत चँग कै-शेकाचो पराभव करून, चिनाचेर माओच्या फुडारपणा सकयल कम्युनिस्ट राजवट सुरू जाली. सुरवेचीं धा वर्सां

मेरेन माओ कम्युनिस्ट पक्षाचो अध्यक्ष आनी राश्ट्रप्रमूख आशिल्लो. पूण देशाची नेटान उदरगत जावची म्हूण ताणें आंखिल्ली लीप फोरवर्ड (Leep Forward) ही येवजण अपेशी थारिल्ल्यान, माओच्या धोरणा आड टिका जावपाक लागल्यो. हाका लागून १९५९त मांओक अध्यक्ष पदाक सोडचीट दिवची पडली. पूण कम्युनिस्ट पक्षाचो अध्यक्ष म्हूण ताणें मार्क्स-लेनीन वादी तत्त्वां चिनांत ताजींच दवरलीं. कम्युनिस्ट पक्षाक जावपी विरोध मोडून उडवपाखातीर माओन 'रेड आर्मी' आनी चिनी 'जन मुक्तिसेना' उबारून चिनांत संस्कृतीक क्रांती घडोवन हाडली (१९६६-७६). लिन पियाव, चौ एन-लाय, छन ब्रो-दा आनी माओची घरकान्न ज्यांगचींग हे संस्कृतीक क्रांतीचे हेर फुडारी आशिल्ले. ती संस्कृतीक क्रांती माओक मरण येमेरेन (१९७६) चालूच आशिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**मांग :** एक जात. महाराष्ट्र, मध्य प्रदेश, गुजरात आनी म्हैसूर ह्या राज्यांनी मांग लोकांची वसती आसा. संस्कृत 'मातंग' हाचेवयल्यान मांग हो शब्द आयला. हे लोक जंब ऋषीक आपलो पूर्वज मानतात.

मांग लोक सादारणपणान ऊंच, बळिश्ट, काळे आसतात. बायलो केसांचो आंबाडो घालतात, हातांचेर गोंदोवन घेतात आनी कथलाच्यो, पितळेच्यो वस्ती घालतात. दादले माथ्यार, केंसांक गांठ मारतात आनी खाड-मिशो दवरतात.

मांगांचे तीन मुखेल प्रदेशीक भेद आसातः १) महाराष्ट्र मांग २) कानडी मांग वा मादिग ३) गुजराती मांग, हांकां मांगेला अशेंय म्हण्टात.

**महाराष्ट्रांतले मांग :** ज्या वाठारांत हे लोक रावतात त्याच वाठारांतली प्रदेशीक भास हे लोक उलयतात. ज्वारीची भाकरी, वरण आनी मिरसांगांची चटणी हें ह्या लोकांचें मुखेल अन्न. तशेंच बोकड्या-मेंढरांचें मांस, कोंबी आनी मेल्ल्या गोरवांचेंय मांस खातात. ते गांजा आनी तंबाखू ओडटात. सोरोय तांकां खूब आवडटा.

हे लोक महादेवाक भजतात. बहिरोबा, खंडोबा, म्हसोबा, अंबाबाई, बहिरी, जनाई, विठोबा, यमाई हीं तांचीं कुलदैवतां. देवीक मंगळारा आनी शुक्रारा, तशेंच देवाक आयतारा दिसा कोंबो-बोकडो मारतात. पितरांच्यो प्रतिमा करून हे लोक तांची पुजा करतात. मंत्रतंत्र, जादू, भुताटकी हांचेर ह्या लोकांचो खूब विश्वास आसा.

हे लोक एकाच आडनांवांचीं वा एकेच पोटजमातीभितर लग्नां करीनात. मामेभयणीकडे लग्न जाता, पूण मावसभयणीकडे वा आतेभयणीकडे लग्न जायना. कांय वेळां पाळण्यांतूय तांचीं लग्नां जातात. लग्न थरयतना चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालून तिच्या बापायक धा रुपया देज म्हूण दिता. तांचेच जातीचो साधू लग्नाचो म्हूर्त थरयता. लग्नाच्या पांच दीस पयलीं व्हंकलेक हळद लावपाक सुरू करतात. उरील्ली हळद वाजयत गायत न्हवऱ्यागेर व्हरतात. लग्नापयलीं तीन दीस, न्हवऱ्या-व्हंकलेगेर कुलदेवतेच्या नांवान बोकडो बळी दितात. लग्ना दिसा न्हवरो घोड्यार वा बैलाचेर बसून गांवांतल्या मारुतीच्या देवळांत येता. थंय ताका व्हंकलेचो बापूय धोतर आनी पगडी दिता. तें न्हेसून उपरांत तो व्हंकलेगेर येता. थंय मागीर अंतरपाट धरून, पुरयत मंगलाश्टकां म्हणून न्हवऱ्या-व्हंकलेचेर अक्षता उडयता.

विधवेचें लग्न कृष्ण पक्षांत रातीचें करतात. पयलेच खेपे लग्न जावपी न्हवऱ्याक विधवेकडे लग्न करपाचें आसत जाल्यार ताणें पयलीं रूईच्या झाडाकडेन लग्न करचें पडटा.

बाळंत जातकच बायलेक पांच दीस सुयेर पाळचो पडटा. उपरांत पांचव्या दिसा सटीची पुजा करतात. बाळंतिणीचे कुडींत रातभर दिवे पेटोवन दवरतात. बाराव्या दिसा भुरग्याक आनी आवयक न्हाणयतात आनी ब्राह्मण ज्योतिशी भुरग्याक नांव दवरता.

हे लोक मडें पुरतात. मड्याक न्हाणयतात, कपडे घालून निसणीर दवरतात. ताच्या कपड्याक एक तांब्याचें नाणें बांदतात आनी वाजयत-गाजयत मसंडेंत व्हरून नाणें शेंवटून मारतात आनी ताच्या तोंडांत उदक घालून तें पुरतात. लागींच न्हंयेचेर न्हावन मागीर लोक घरा वतात. तिसऱ्या दिसा मरणक्रिया करपी मनीस तीन भाकऱ्यो, शीत आनी धंय वा दूद मसंडेंत दवरून येता. तेराव्या दिसा तो थंयच उदक घालून दोणो दवरता आनी सोयऱ्यांक जेवण घालता.

**कानडी मांग :** ह्या लोकांत असादरु, चन्न होलिय, डकलेरु, ढोर, मोची, पेड, सनादी वा वाजंत्री ह्यो पोटजाती आसात.

हे येल्लम्म, दुर्गव्व, द्यामव्व, मर्गाई, खंडोबा, वेंकटराम, मारुती ह्या देवांक भजतात. ते देवांक कोंबी आनी बकरे बळी दितात. पितरांच्यो पितळेच्यो प्रतिमा करून तांची पुजा करतात. दोन वा तीन वर्सांनी, एका पितळेच्या तांबयार नाल्ल दवरून मरिअम्माचें प्रतिक मानून पुजा करतात. हें प्रतिक तीन दीस दवरतात. त्या तीन दिसांत ते लोक सोरो पितात, गोडशें करून खातात आनी कोंबी वा बकरो बळी दिवन मरिअम्माचें विर्सजन करतात.

सुमार तीस रुपया देज दिवन चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. ब्राह्मण पुरयत वा एकाद्री जाण्टी बायल म्हूर्त थरयता. व्हंकलेक तादळांनी भरील्ल्या पाटल्यांत आनी न्हवऱ्याक पाटार उबीं करतात. उपरांत पुरयत अंतरपाट धरून, मंगलाश्टकां म्हण्टा आनी न्हवऱ्या-व्हंकलेचेर अक्षता उडयता. मागीर न्हवऱ्यावटेनची एक सवायशीण बायल व्हंकलेच्या गळयांत मंगळसूत्र बांदता.

हे लोक मडें पुरतात. लग्न जाल्ल्या मनशाक बसोवन आनी लग्न जावंक नाशिल्ल्या मनशाक न्हिदिल्ले स्थितींत पुरतात. कांबळींत घालून

मडें मसंडेंत व्हरतात. दुसऱ्या दिसा एंडेलाच्या पानार शीत, गोड आनी तूप मेल्ल्या मनशाक दितात. कावळ्यान तें जेवण उश्टायतकच मरण करपी मनीस न्हावन घरा परतता. चवथ्या दिसा बोकडो कापतात आनी सोयऱ्यांक जेवण घालतात.

**गुजराती मांग :** ह्या लोकांक मांगेला अशें म्हण्टात. ते हनुमान आनी मरीआई ह्या देवांक भजतात. भट नांवाची एक पोटजात ह्या लोकांत आसून ती तांचें पुरयतपण करता. चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. चलयेच्या बापायन ह्या लग्नाक मान्यताय दिल्यार चल्याचो बापूय गांवांक सोरो वांट्टा. ह्याच दिसा म्हूर्त थारायतात. कांय दिसांनी व्हंकल आपल्या इश्टीणीवांगडा न्हवऱ्यागेर वता. थंय तिका कपडे आनी रुप्याची वस्त दितात. लग्नाच्या दोन दीस पयलीं न्हवऱ्या-व्हंकलेक आपापल्या घरांत हळद लायतात. लग्नादिसा न्हवरो दनपारचो वाजत-गाजत घोड्यार बसून व्हंकलेगेर वता. सव्याचेर पेटोवन दवरील्ल्या दिव्याक तीं दोगांय पांयां पडटात. पुरयत तांच्या वस्त्रांक गांठी मारून तांचे हात एकामेकांच्या हातांत दिता. उपरांत गांठ सोडयतात आनी लग्नसुवाळो सोंपता. उपरांत जेवणां जातात. न्हवरो तीन दीस थंय रावता आनी चवथ्या दिसा दोगांय न्हवऱ्यागेर येतात. चार दिसांनी व्हंकल परतून चार दीस कुळारा रावन घरा येता, तेन्ना तिचो बापूय जांवयाक रुप्याची वा पितळेची मुदी आनी गाय वा पाडूक दिता.

गुरवार बायलेची पांचव्या म्हयन्यांत पांच सवायशिणी होंट भरतात आनी बायलांक जेवण घालतात. बाळंत जातकच सव्या दिसा सटी पूजतात. ह्याच दिसा पुरयत भुरग्याक नांव दवरता.

हे लोक मेल्या उपरांत चवथ्या दिसा मडें पुरतात. त्या दिसा सकाळीं शिताचो पिंड करून तो कोंब्याच्या काळजान धांपतात आनी मेल्ल्या मनशाच्या घरांत कांय वरां तो पिंड दवरून व्हांवत्या उदकांत सोडटात. दनपरां सोयऱ्यांक जेवण घालतात आनी मेल्ल्या मनशाची रुप्याची प्रतिमा करून घरांत दवरतात. सप्तकांतल्यान एक दीस तिका दिवो लायतात.

मांग-गारुडी नांवाची मांगांची एक पोटजात आसा. हे लोक ऊंच, बळिश्ट पूण आळशी आसतात. हे लोक बुरशे आनी झगडाळ आसतात. हे लोक आपलो संवसार म्हशीचे फाटीर घालून भोंवत आसतात. भीक मागप, जादू, तमाशा करप हे तांचे उद्देग. एका काळार तांकां खडेगांठ गुन्यांवकार म्हूण वळखताले. चोरी करपांत हांच्यो बायलो खूब हुशार आसतात.

मध्यप्रदेशांतले मांग पयलीं राजाची दवंडी पेटोवपाचें काम करताले. तशेंच बेवारशी मड्यांची वेवस्था करप, गुन्यांवकारांक फांशी दिवप हीय कामां ते करताले. दखने (दक्षिणेंतले), खानदेशी, घोडके (घोडे सांबाळपी), डफळे (डफ वाजोवपी), उचले, पिंडारी, ककरकाढे (चिरे काडपी), होलेर अशे तांचेभितर पोटभेद आसात. तांचे सगोत्र कुटुंबांचे पंगड आसून, एकाच पंगडांत लग्नां जायनात.

हे लोक मडें पुरतात आनी तीन दीस सुतक पाळटात. मडें पुरतकच सोरो पितात, मेल्ल्या मनशागेर वचून कोडुलिंबाचीं पानां खातात. पानां चाबून चोथो थुकून उडयलो की मेल्ल्या मनशाचो संबंद सोंपलो अशें मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मांड :** गांवांसंबंदीत धर्मीक तशीं समाजीक-संस्कृतीक कार्यां करपाची एक पवित्र अशी भौशिक मालकेची सुवात. ही सुवात चड करून गांवच्या मूळ/पुरसाच्या घरवयेमुखार आसता, वा मूळ/पुरसाच्या घरवयेमुखावयलें आंगणच गांवाखातीर 'मांड' आसता. अशा मांडाक त्या मूळ पुरसाच्या नांवानच वळखतात.

मांडाची परंपरा गोंयांत सगळ्याच गांवांनी आशिल्ल्याचें पळोवंक मेळटा. गोंय वसोवपी 'मारांग' ह्या शबरवंशीय जमातीन ती मुळांत गोंयांत हाडली म्हणपाक पुरावे मेळटात. मारांगां उपरांत गोंयची भूंय वसोवपी कोल, गोंड आनी मुंडारी जमातीकडेनय मांड परंपरा आशिल्ल्याचें दिश्टी पडटा.

मांडाची उत्पत्ती समाजाचे खास गरजेंतल्यान जाल्ल्याचें दिसता. आपली हेडगी अवस्था सोडून एका जाग्यार स्थायिक जावपाचो विचार मनशाचे तकलेंत जेन्ना रुजलो त्याच काळार खऱ्यापणान 'मांड' संकल्पनेन जल्म घेतलो. ह्या काळार मनीस चोम्यांनी रावतालो. एकाच रगताच्या नात्याची लागणूक आशिल्लो तो चोमो म्हणजे एक व्हडलें कुटुंबच कशें आसतालें. ह्या कुटुंबांतलो सगळयांत जाण्टो आनी कर्तृत्वान पुरूस चोम्याचो मुखेली आसतालो. ताच्याच मार्गदर्शनाखाला पुराय चोम्यांतल्यो व्यक्ती आपले दीसपट्टे वेव्हार चलयताल्यो. देखून दिसा अखेरेक त्या सगळयांनी येवन आपल्या वेव्हारांत येवपी अडचणी, गरजो हांचो ताका नियाळ दिवप गरजेचें आसतालें. मुखेली मागीर चोम्यांतल्या हेर वांगड्यांचे विचार लक्षांत घेवन निर्णय दितालो. हें मेळप आनी चर्चा करप साहजिकच मुखेल्याच्या घरामुखार घडटालें. तेल, विजेचो सोद लागूंक नाशिल्लो तो काळ. आंगणांत पेट्टल्या पोल्ल्या भोंवतणी बसून ही सगळी चर्चा चलताली. चर्चेवांगडाच नाचप-गावप आनी एकमेकांचीं फकाणां-मस्कऱ्यो करपय जातालें. हातुंल्यानच मांड परंपरेन जल्म घेतलो.

समाजीक, अर्थीक आनी बौध्दीक बदला वांगडा मुखेल्याच्या दारांत दीसपट्टें मेळपाची गरज सोंपली. पूण गांवच्या हितासंबंदीत प्रश्नांचेर चर्चा करपाखातीर तशेंच धर्मीक आनी संस्कृतीक कार्यां करपाखातीर गांवच्यांनी एका जाग्यार मेळपाची गरज उरलीच. देखून थरावीक काळार आनी थरावीक प्रसंगार गांवचे लोक मुखेल्याच्या आंगणांत एकठांय

येवंक लागले. हो बदल घडटनाच वांगडा आनी एक बदल घडलो. मुखेल्याचे मठयेचें देवळांत रुपांतर जालें, ताचे घरवयेक देवस्थानाचें रूप मेळ्ळें. साहजिकच घरवये मुखावयल्या आंगणाकय धर्मीक आनी संस्कृतीक कार्यां करपाचो जागो म्हूण अर्थ फावो जालो.

वयर सांगिल्लेप्रमाण मांडार वेगवेगळया प्रश्नांचें 'मांडप' जाता. ह्या मांडप अर्थांतल्यानच 'मांड' उतर आयलां, अशें विद्वानांचें मत आसा. आशी-कुशीक झाडां आसलीं तरी मांडाचो जागो निवळ करून राखून दवरिल्लो आसता. गांवभर लोक बसूंक शकतात असोच तो विस्तृत आसता. २०-२५चौ. मिटरांपसून पांच हजार चौ.मी. इतले व्हड मांड आशिल्ले पळोवंक मेळटात. मांडार तुळशी पेडावण आसताच. तशेंच मूळ पुरसाचो मठ, घुमटी वा फातर आसता. शिगम्यासारक्या उत्सवाकडेन कांय गांवांनी त्या जाग्यार पुरसाची 'वानी' (सत्री) हाडून पुरतात.

मांडार जावपी कार्यावळींक धर्मीक अधिश्ठान आशिल्ल्यान ती सुवात अनवाळी दवरतात. उत्सवाकडेन दर दिसा थंय शेण-शिताडो घालतात. मांडार भश्टे बायलेन वचूंक जायना, तशेंच पांयांक जोतें घालून वा सोरो पिवन वचपाचें नासता. दुकर-कुकड गेल्यारय भश्टकार जाता अशें मानतात.

'मांडा गुरू' हो मांडाचो देव. ताका उलो करूनच मांडावयल्या दर एका कार्याक सुरवात जाता. ताच्या मानाक दिवो पेटोवन विडो दवरतात, नाल्ल फोडटात. मांडा गुरू हो गांवची स्थापना करपी गांवचो मूळ पुरूस अशें मानतात. ताका मान करपाचो सगळो अधिकार गांवकाराक (मुळी, जल्मी), म्हणजेच ताच्या वंशजाक आसता.

सुरवातेच्या काळार सावन आयजमेरेन 'कायदो मंदिर' म्हण मांडाक खाशेलें म्हत्व आसा. कांय गांवांनी मांडार 'बुंदवंता कटो' आसता. थंय बसून गांवचे 'बुदवंत' गांवच्या प्रस्नांचेर निर्णय दितात. एका काळार गांवच्या खाजगी झगडीं-झुंजांचोय निवाडो मांडार जातालो. मांडावयल्या वेव्हारांत धवळा-धवळ करपाचो अधिकार शासनाक नासलो. आयज कांय प्रमाणांत, गांवगिऱ्या वाठारांनी मांड मर्यादीत स्वरुपांत न्यायदानाचें काम केल्लें दिसता.

लोककलांचें संवर्धन करपी गोंयचे संस्कृतींत मांडाक आनी एक म्हत्व आसा. धालो, जागोर आनी शिगमो सारक्यो कितल्यो तरी लोककला मांडारच जल्माक आयल्यो आनी मांडाच्या आदारानच फुल्ल्यो-फळयो. आयजय मांडाक लागुनूच त्यो तिगिल्ल्यो दिसतात. ह्या कलांच्या संदर्भांतल्यान मांडाक 'धालां-मांड', 'जागरा-मांड', 'शिगम्या-मांड' अशें नांव पडलां. त्या त्या उत्सव काळार मांडाक तें तें नांव आसता. धालांचो उत्सव बायलांचो आशिल्ल्यान त्या मांडाचें मुखेलपण गांवकरा बदला गांवकान्नीकडेन आसता. मांडावयल्या कार्याक सुरवात करता त्या दिसाक 'मांड दवरतात' अशें म्हण्टात, जाल्यार निमाण्या दिसाक 'मांड उठयतात' वा 'माड सोंपयतात' अशें म्हण्टात.

कांय गांवांनी मुखेल मांडाभायर 'गड्यां-मांड' नांवाचो वेगळो मांड आसता. ह्या मांडाभायर वर्साक एकदांच शिगम्याकडेन 'गड्यांच्या दिसा' जमतात. हांगा 'घरवय' बी नासता, पूण मांडाचे राखणेखातीर 'हापशी' आसता. तो थंय आशिल्ल्या सगळयांत पोरन्या झाडार रावता असो समज आसता.

गोंयांत किरिस्तांव समाजाचेय मांड मेळटात. ह्या जाग्यार केन्ना खुरीस आसता तर केन्ना कपेल. कांयकडेन ह्या मांडार 'लामणदिवो' वा 'माड' (व्हडली दिवली) पेटयल्याचें दिसता. इंत्रूज, संजाव, जागर ह्या सारक्यो कार्यावळी ह्या मांडार सादर जातात.

- जयंती नायक

**मांडलीक, माधव नाना :** (जल्म : १५ ऑगस्ट १९३३, संगमनेर, अहमदनगर).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी प्राथमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो, तेचपरीन राश्ट्र सेवा दलाचो कार्यकर्तो आशिल्लो. १२ ऑगस्ट १९५५ह्या दिसा संगमनेरच्या अमृत मेहता हाच्या मार्गदर्शनाखाल सत्याग्रहींच्या पंगडावांगडा ताणें गोंयची शीम हुंपली. फुडें राम तुपे आनी आर. ए. फारुकी हाच्या फुडारपणाखाल सुर्ला हांगा जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी न्हंयेंत हाडून उडयलो. जंयसावन पेवन ताका शीमेर वचचें पडलें. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मांडवकार, भगवान मारुती :** (जल्म : २२ नोव्हेंबर १९१७, कळंब, यवतमल- महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी प्राथमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो प्रजा सोशलीस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो कॉंग्रेस (इं) चो वांगडी जालो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा नंदकुमार अगरवाल, ए. आर. फारुकी आनी राम तुपे हांच्या मार्गदर्शनाखाल सुर्ला हांगा जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. तशेंच ताका थंयच्या देवळांत बंद करून दवरलो. उपरांत दुसऱ्या दिसा ताका न्हंयेंत व्हरून उडयल्लो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मांडवी न्हंय :** गोंय राज्यांतली अस्तंते दिकेन व्हांवपी एक मुखेल न्हंय. हिची लांबाय सुमार ७७ किमी. आसा. गोंय आनी कर्नाटक

राज्य हांचे शीमेचेर सह्याद्रीचे वळींत ही न्हंय सुरू जावन ती अस्तंतेक दोना पावला आनी मुरगांव बंदर हांचे मदीं अरबी दर्याक मेळटा. गोंयच्या दोंगराळ आनी लोक वसती कमी प्रमाणांत आशिल्ल्या अशा सत्तरी वाठारांतल्यान ईशान्य-नैर्ऋत्य दिकेन व्हांवत येवन फोंडे तालुक्यांत ती वायव्य दिकेन व्हांवता. फुडें सेंट एस्टाव्हामलागीं हीं न्हंय परत अस्तंते दिकेन व्हांवता आनी पणजी शार हुंपून दर्याक मेळटा. दावेवटेन मेळपी खांडेपारची न्हंय ही तिची म्हत्वाची उपन्हंय आसून उजेवटेन साखळे, दिवचल आनी म्हापशेंच्यो हेर मुखेल न्हंयो मेळटात. ह्या न्हंयांखेरीज मांडवी न्हंयेच्या तोंडाकडल्या प्रदेशांतली कुंभारजुंव्याच्या कालव्यावटेन दक्षिणेकडली जुवारी न्हंयलेगीत मांडवी न्हंयेक जोडल्या. तशेंच नानोडें, नानुस, व्हाल्व्होटा ह्यो ल्हान न्हंयोय मांडवीक मेळटात.

हे न्हंयेच्या संथ प्रवाहाक लागून न्हंयेंत खूबकडे गाळ जाला. तशेंच तिका येवन मेळपी न्हंयांच्या फांट्यांक लागून ल्हान-व्हड जुंवे तयार जाल्यात. ह्या जुंव्यांनी 'दिवाडे' हो मुखेल जुंवो आसून तो म्हापशेंचे न्हंयेक लागून तयार जाल्लो. चोडण हो आनीकय एक जुंवो उल्लेख करपासारको आसा. कुंभारजुंव्याच्या कालव्याक लागून तिसवाडी वा इल्हास जुंवो तयार जाला.

अंतर्गत उदका-येरादारीखातीर मांडवी न्हंयेचो ४१किमी. चो वाठार वापरांत आसा. गोंयच्या अर्थकारणांतलो मुखेल घटक जावन आशिल्ले खनिज निर्यातीक हे अंतर्गत उदका-येरादारीचो खूब लाव जाला. तेभायर थळाव्या उत्पादनाचें हाड-व्हर करपाकूय मांडवी न्हंयेचो उपेग जाता. मुंबय-गोंय ह्या आंतरराज्य प्रवासी वाहतूकीचें गोंयांतलें पणजी शारातलें बंदर हें मांडवी न्हंयेचें मुखेल बंदर आसा. न्हंये देगेवयली नुस्तेमारी हें मांडवी न्हंयचें म्हत्वाचें योगदान. पर्यटकांखातीर नौका-नयन ही हे न्हंयेची आनीक एक खासीयत.

पणजी-बेतीक जोडपी दोन पूल आनी बाणस्तारीचो पूल हे मांडवी न्हंयेवयले तीन मुखेल पूल आसात. गोंयची राजधानी पणजी, इतिहासीक आग्वादचो किल्लो, ओल्ड गोवा हें धर्मीक केंद्र हीं हे न्हंयेचे देगेवयलीं मुखेल ठिकाणां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मांडो :** एक नाच प्रकार. मांडो हो उदेंत आनी अस्तंत संस्कृतीचो सुमेळ सादपी नाच-गाण्यांचो प्रकार. फिरग्यांचे राजवटीवांगडा गोंयांत ख्रिस्ती धर्म आयलो आनी तेचबरोबर पुर्तुगेज भास आनी अस्तंती संगीत हांची रुजवण जाली. हातुंतल्यानूच मांड्यासारको गीतप्रकार जल्माक आयलो. 'पुर्तुगेज संस्कृतीच्या प्रभावाखाला जगपी गोंयच्या एका किरिस्तांव वर्गान कोंकणी भाशेंतल्यान उक्तायल्ल्यो आपल्या मनांतल्यो संगीतरुपी भावना म्हळ्यार मांडो.

मांडो हें उतर कशें घडलें हेविशीं विंगड विंगड मतां आसात. एका मताप्रमाण 'मांड' ह्या उतरावयल्यान तें घडलां. मांड म्हळयार गांवांत लोकांनी एकठांय येवपाची, नाचपाची, गावपाची सुवात. मांडो गायतना, नाचपाची गावपाची, एकठांय येवपाची प्रक्रिया घडटा देखून वयलें नांव पडलां अशें मानतात. दुसऱ्या एका मताप्रमाण 'मांडप' ह्या उतरावयल्यान तें घडलां. मांड्याची सुरवात काजाराच्या सालांनी जाली. त्या वेळार व्हंकल मांड्याच्या नाचांत सहभागी जावन सगळया इश्टां-सोयऱ्यांमुखार गीतांच्या रुपान आपल्या मनांतल्यो भावना मांडटाली. ह्या मांडपावयल्यान वयलें नांव घडलें. पुर्तुगेज उतर 'मांडो' (Mando-an order, a command) ह्या उतरावयल्यान कोंकणी 'मांडो' (Manddo) हें उतर घडलें अशेंय एक मत आसा.

मांड्याचो जल्म केन्ना जालो हाची निश्चित तारीख मेळना, तरी एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्यावयलो तो काळ, अशें विद्वानांचें मत आसा. इ.स. १८४० वर्सा बरयल्लो पयलो मांडो मेळिल्ल्याची नोंद मेळटा. सुरवातीच्या काळांत रचिल्ले मांडे मौखीक स्वरुपांतूच गोंयच्या समाजांत घोळणुकेंत आशिल्ले दिसतात, ते रचणाऱ्यांचीं नांवां मेळनात.

मांड्याचो जल्म साश्ट तालुक्यांत जालो. कुडतरी, चिंचोणें आनी लोटली हे मांड्याचे कुळार गांव. ह्या गांवांनी पयलीं मांडे तयार जावन उपरांत गोंयभर पातळळे अशें विद्वानांचें मत आसा. साश्ट, बारदेश आनी तिसवाडी ह्या तालुक्यांनी आयज मांड्यांची भरपूर रचणूक जाता आसली तरी गोंयच्या दर एका तालुक्यांत जंय किरिस्तांव समाज आसा थंय मांड्याची लैकिकता दिसता.

मांडो हो गीतप्रकार, ताका नृत्याची जोड आसता. ती ताका उपरांत जुळळी अशें मानतात. मांडो नाचतना 'दादले बायलो' अशो दोन रेगो करतात आनी एकमेकांचो जोडीदार थारावन एकामेकां सामकार उबे रावतात. संगीताच्या ठेक्याचेर मंदगतीन पावलां उडयत अस्तंती पद्दतीन नाचतात. नाचपाचे हालचालीवांगडाच नाचप्यांचे नदरेंतल्यान उक्तायल्ल्या भावांकूय म्हत्व आसता.

बायलो 'तळप' नांवाचो भेस घालतात. हो भेस लांबचे लांब, पांयार लोळपी असो आसता. हो भेस माकाव, ब्रह्मदेश हांगासावन आयलो अशें मानतात. बायलो साडीय न्हेसतात. पायांक 'चिनेलां' आनी हातांत 'आयणो' धरतात. दादले 'फात-किमांव' असो भेस करतात आनी हातांत रुमाल धरतात. समाजीक बदलाप्रमाण मांड्याचो भेसूय बदलत चल्ला.

मांड्याची गती मंद आसता. ताका रेबेक आनी घुमट ह्या दोन वाद्यांचें संगीत लागता. केन्ना केन्ना रेबेकांव हें वाद्यय वापरतात. मांड्याचो कुंपास ६/४ असो आसता. मांड्यांत तीनापरस चड कडवीं आसतात आनी तीं दर चार वळींचीं आसतात. केन्ना-केन्ना हातूंत बदलूय दिसता.



*पापाचें लिशेंश आसोत जाल्यार पोळे*
*काजार जावंच्या तुज्याकोडे.*
*पापाचें लिशेंस आसा रे म्हाका*
*काजार जावंच्या रावता तुका*
*तूं तोर काजार जायना मोगा*
*म्होजी बिरमोत फुडली तुका.*
*पापान मांयन काजार म्हाका केलें*
*सुखांतलें व्होरोन दुखांत घालें,*
*सोगले आंकवार चेडे एकठांय जावन*
*आदोरार म्हाका केलें.*

मांड्याच्या गीतांतल्यान कथानक पुराय तरेन स्पश्ट जाता. मांड्याचो शेवट 'दुल्पद' गावन जाता. दुल्पद गायतना दुल्पद गाण्याची, साथीच्या वाद्यांची आनी नाचाच्या पावलांची लय तेज आसता.

पोरन्या आनी नव्या मांड्यांचो अभ्यास केल्यार तातुंतल्यान मुखेलपणान मोगाच्योच भावना उक्तायल्ल्यो दिसतात. आपले मोगिकेविशीं काळजांत उठिल्लो मोगाचो उचंबळ, प्रियकराच्या विरहान तळमळपी मन, सात समुद्रापलतडी गेल्ल्या घोवाच्या हुस्क्यान काळजांत जाल्लो घुस्मटमार, हें सगळें मांड्यांत मुखेलपणान चित्रायल्लें दिसता. देखून मांडो हें प्रेमगीत असो सादारणपणान निश्कर्श आसा. पूण मोगा वांगडाच समाजीक विशमता, राजकारण, देशभक्ती ह्या विशयांवयलेय मांडे मेळटात. सुकणीं-सावदांकूय मांड्यांत गुंथिल्लीं दिसतात.

काजाराच्या सालांत जल्माक आयिल्लो मांडो ल्हव ल्हव फेस्ताच्या माटवांत पावलो. आयज पंचतारांकित हॉटेलांनी आनी देश-विदेशांनीय मांडो पावला. अभ्यासकांच्या संशोधनाचो विशय जावन विद्यापीठ पातळेचेर परिसंवादांनीय ताचेर भासाभास चल्ल्या. भोंवडेकारांखातीरूय तो एक आकर्शण थरला. ऑडिओ-व्हिडिओ कॅसेटींनीय तो ध्वनीमुद्रीत जाला. मांड्याचें म्हत्व जाणून तो जतन करपाच्या हावेसान आयज गोंयांत 'मांडो उत्सव' घडोवन हाडिल्लो दिसता. पयलो मांडो उत्सव १९६७ वर्सा क्लब नाशिओनालान घडोवन हाडलो. उपरांत गोंय कोंकणी भाशा मंडळान फाटोफाट चार वर्सां हो उत्सव आयोजित केलो. १९७४ वर्सासावन 'गोवा कल्चरल ॲण्ड सोशल सेंटर' हो उत्सव दर वर्सा घडोवन हाडटा.

गोंयांत जायते पोरने मांडे मेळटात. तातुंतली एक देख अशी आसा-

*तांबडे रोजाद तुजे पोले*
*दुकांनी भोत्ताय म्होजे दोळे*

- जयंती नायक

**पूरक नोंद :** दुल्पद.

## मांद्रेकार, उत्तम जगन्नाथ : (जल्म : २७ मार्च १९३०, शिवोली - बारदेस).

सुटकेझुजारी. १९५३ त तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी जालो. आंबोली वाठारांत दल संघटनेच्या शिबिरांत ताणें प्रशिक्षण घेतलें. ३१जुलय १९५४ ह्या दिसा नगर हवेलीचे चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. उपरांत तो दल संघटनेच्या सातार्डा आनी नेतार्डा फांट्यांत काम करतालो. प्रभाकर सिनारी, कानोबा नायक हांच्या वांगडा ताणें जायत्या हत्यारबंद हल्ल्यांत वांटो घेतिल्लो, तातुंतले कांय हल्ले अशे आसात: फेब्रुवारी १९५५त ताणें चांदेल पोलीस ठाण्याचेर हल्लो केल्लो; एप्रिल १९५५त ताणें रावण लश्करी फांट्यांत हल्लो केल्लो, १५ जानेवारी १९५६ह्या दिसा ताणें गस्त घालूंक आयिल्ले जिपीक उजो लायलो, ऑक्टोबर १९५६त शिरगांव मिनाखणीचेर हल्लो केलो, एक स्फोट घडोवन हाडटा आसतना ताच्या दोळ्याक मार लागिल्लो. पोलिसांनी ताका धरपाचें फर्मान काडलें. जायते फावट ताका धरूंक ताच्या घराचेर धाड घाली. पूण पोलिसांची नदर चुकोवन ताणें गोंय सुटकेमेरेन काम केलें. १९७४त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## मांद्रेकर, देवगो विठु : (जल्म : १२ मार्च १९२१, धावें-सत्तरी).

सुटकेझुजारी. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत पत्रकां वांटप, तिरंगी बावटो लावप, कानकुंबी आनी बेळगांव वाठारांत जावपी बसकांनी वांटो घेवप, गुपीत बातम्यो पावोवप आनी सुटके चळवळीखातीर सत्याग्रहींक एकठांय करप, असलीं कामां तो करतालो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा गोविंद हरी भावे शास्त्री हाच्या फुडारपणाखाल ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी पांच वर्सां खातीर बंदखणींत दवरलो. दोन वर्सां ताका दंड भरचो पडलो. दर म्हयन्यांत पोलीस ठाण्याचेर हजेरी लावप हे अटीचेर ताका १० जानेवारी १९५८ ह्या दिसा सोडलो.

गोंय सुटके उपरांत तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तो भौशिक वावर करतालो. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८जून १९८३ ह्या दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## मांद्रेकर, यशवंत बाबुसो : (जल्म : २१सप्टेंबर १९२९, ओशेल-बारदेस).

सुटकेझुजारी. १९५५ त तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. कानोबा नायक आनी यशवंत अगरवाडेकर हांच्या फुडारपणाखाल तो वावर करतालो. तो भूंयगत वावरांनी वांटो घेतालो. सालाझाराक तेंको दिवपी गोंयकार बी. कोचरेकार हाच्या खुनाच्या आरोपाखाल ताका पोलिसांनी धरलो. ताका ७ म्हयन्यांवयर बंदखणींत दवरिल्लो. बंदखणींतल्यान सुटका जातकच तो भूंयगत वावरांनी वांटो घेवंक लागलो. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## मांद्रेकर, राजाराम : (जल्म : १९१७, मांद्रे).

नामनेचो तबालावादक. तबलावादनाची कला ताका मुळांत घरची देण आशिल्ली. सुरवेक ताणें आपल्या मामाकडल्यान तबलावादनाचें शिकप घेतलें. उपरांत तो नामनेचो तबलजी परशुराम पार्सेकर हाचेकडेन शिक्षण घेवंक मुंबय गेलो. थंय ताचेकडल्यान ताणें तबलावादना वांगडाच गायन, हार्मोनियम, तबलातरंग, जलतरंग, दिलरुबा, सतार, व्हायोलिन आदी विंगड विंगड वाद्यांचें शिक्षण मेळयलें. ताका नाचाचीय खूब आवड आशिल्ली. सुरवेक ताणें मोहनलालजीकडल्यान कथ्यकाचे धडे घेतले. उपरांत कृष्णनकुट्टीकडच्यान भरतनाट्यमाचें गिन्यान मेळयलें. पूण सगळ्यांत चड ताचो कल तबल्याकडे आशिल्लो. तेखातीर ताणें वेगवेगळ्या राग आनी चिजांची शिगराय केल्ली. नामनेचे गावपी खाँसाहेब, विलायत खाँ, खादीन हुसेन, मल्लीकार्जून मन्सूर, ओंकारनाथ ठाकूर, ताराबाई गदक अग्नी, सुरेश हळदणकार, प्रसाद सावकार हांकां तबल्याचेर साथ दिल्या. फुडें मुंबय लेमिंगटेन रोडार आशिल्ल्या ललीत कला संगीत विद्यालयांत शिकोवप सुरू केलें. आपल्या कडच्यान शिक्षण घेवपी विद्यार्थ्यांक घेवन ताणें हैद्राबाद, सिंकदराबाद, लातूर, बीड हांगा भोंवडी केली आनी नाचाचे कार्यक्रम करून दाखयले. 'सुनबाई' ह्या मराठी सिनेमांत ताणें नाच केला. तेभायर मनोरमा, निरा और नंदा, सौभद्र, कच-देवयानी, सुनो सुनता हूँ ह्या हिंदी सिनेमांनी नाच बसयल्यात. ताच्या नाचांक भांगरा पदकां मेळ्ळयांत. १९५३ वर्सा तो गोंयांत आयलो. १९८३ वर्सा तेन्नाचो मुखेलमंत्री भाऊसाहेब बांदोडकर हाचे हस्तुकी स्वरसंगीत विद्यालयावतीन आनी १९७४ वर्सा मांद्रेच्या ग्रामस्थांवतीन ताचो सत्कार जालो. उपरांत तो घरचे घराच विद्यार्थ्यांक संगिताविशीं शिक्षण दिवंक लागलो.

ताची बायल शुभलक्ष्मी मांद्रेकार हीय एक नामनेची नर्तकी. सिनेमांत नाच करतना तिची राजाराम मांद्रेकर हाचेकडेन वळख जाली. उपरांत तांणी दोगांयनी लग्न केलें.

- कों. वि. सं. मं.

## मांद्रेकार, रामकृष्ण नरसिंह : (जल्मः २ ऑक्टोबर १९३२, सांगोल्डा- बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें विद्यालयीन शिक्षण इंग्लिशींतल्यान घेतलें. १९५०त तो मुंबय आसतना ताणें सुटके चळवळींत वांटो घेतलो. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा माजाळेच्यान गोंयची शीम हुंपून काणकोण-माशें सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो. सात वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली, दोन वर्सां ताका सुरक्षिततायेखाल स्थानबध्द केलो आनी १५ वर्सां खातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. १९५८त ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. उपरांत तो परतो सुटके चळवळींत वांटो घेवंक लागलो.

गिरी-सांगोल्डा ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हूण तो वेंचून आयलो. 'सुटकेझुजारी संघटनेचो' तो वांगडी आसा. 'बस येरादारी राश्ट्रीयकरण कृती समिती' चो तो सर चिटणीस आशिल्लो. 'भूंयहीन नागरी समिती' स्थापपाक ताणें आदार केल्लो. तेभायर जायत्यो भौशिक कल्याण संस्था स्थापन करपाक ताचो हातभार लागला. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १९६१-८४ ह्या काळांत तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेसीचो' कार्यकारी वांगडी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**माकड :** कुटूंब-सेरकोपिथेसीडे, वर्ग-प्रायमेटस, गण-सस्तन.

स्तनी वर्गांतलो एक प्राणी. तो ल्हान वा व्हडल्या आकाराचो आसता. ताची लांबाय सुमार १/२ फूट ते ३१/२ फूट. चडशा माकडांक लांब शेपडी आसता. ताचो रंग करडो, पिंगसार, काळसार आसता आनी पुराय आंगाक भरपूर ल्हंव आसता. माकडांत आनी मनशांत साम्य आशिल्ल्यान तांकां मनशाचे पुर्वज वा भाईबंद समजतात. भारतांत मेळटा त्या माकडाचो आकार दोन फूट चार इंच लांब, शेपडी तीन फूट चार इंच लांब आनी ताचें सादारण वजन ३०-४० किल आसता.

माकडांक हनुमंताचो वंशज आनी मनीस जातीचो पूर्वज मानतात. कांय वन्य जाती ताका आपले टोळयेचो देव मानतात. ओडिसा प्रदेशांतल्या भूईयांच्या मतान माकड हें सुर्याचें प्रतीक आसा. उत्तर भारतांतल्या जायत्या वसाहतींनी माकडाक आपले वसाहतीचो रक्षणकर्तो मानतात आनी तांणी तांचीं देवळांय बांदल्यांत. हीं देवळां चडकरून उदक आसता थंय आसतात (न्हय, तळें). उदकांत जावपी अपघातासावन माकडदेवान आपली राखण करची, हो हेतू आसता. माकड हो मूळांत विध्वंसक प्रवृत्तीचो, पूण बुध्दिमानी प्राणी आसा. माकडाक मनशाचे वस्तींत मरण आयल्यार, ताची पुजा उपचार-करून ताचें दहन करपाची चाल आसा. हेरकडेन जरी माकडाक देवत्व दिवप जाता तरी छोटानागपूर वाठारांतले बेहर, सह्याद्रींतले कातकरी आदी लोक माकडांक मारून तांचें मांस खातात. माकडांचीच आनीक एक जात आसून तांकां वानर ह्या नांवान वळखतात. हो प्राणी माकडापरस बरोच व्हड आसता. हाचें तोंड ल्हान आनी काळें आसता. तेचपरी ताच्या हातापांयांचीं बोचकुलां काळे आसतात. वानर सहसा बेगीन मनशाळ्नात आनी माकडावरी बेगीन कांय शिकनात. ह्या प्राण्यावरवींच मानवप्राण्याचो उत्क्रांत जालो असो विकासवादाचो सिध्दान्त आसा. ताका चार पांय आसले तरी ताका फुडल्या दोन पांयांचो हातावरी उपेग करूंक येता. आफ्रिकेंतलो चिंपांझी आनी गोरिला हे हेच जातीचे प्राणी आसून तांकां फाटल्या दोन पांयांचेर मनशावरी चलूंक येता.

माकड दोन प्रकारच्या मुखेल गटांत आस्पावतात. नव्या जगांतले माकड मध्य आनी दक्षिण अमेरिकेंत सापडटात आनी पोरन्या जगांतले माकड एशिया आनी आफ्रिका खंडांत आसतात. नव्या जगांतले माकड आकारान ल्हान, वजनान हलके आनी तांकां ३६ दांत आसतात. तांच्या मानान पोरन्या जगांतले माकड आकारान व्हड आनी वजनान जड आसून तांकां मनशावरी ३२ दांत आसतात.

चडशे माकड गरम प्रदेशांत रावतात. देखीक- इंडोनेशिया, फिलीपायन, भारत आनी आफ्रिका. पूण जपान सारकिल्या देशांत थंडेंत तशेंच जंय बर्फ पडटा थंय लेगीत माकड दिश्टी पडटात. आफ्रिकेंतले कोलोंबसीस प्रकारचे माकड सगळो जल्म झाडाचेरूच रावन घालयता. तांचें टणक लांब शरीर आनी शेपड्यो झाडाच्या खादयांक धरपाक आनी भोंवपाक उपेगी पडटात. बलून प्रकारचे माकड फकत जमनीचेर उडक्यो मारतात. भारतांत लंगूर, रेसस, हनुमान ह्या प्रकाराचे माकड मेळटात. आफ्रिकेंतलो बबून हो माकड आकारान व्हड आसून ताचें तोंड कुत्र्यावरी दिसता. बोरनियोचें प्रोबोसीस जातीचे माकड खूब शक्तीवान आसतात. आफ्रिकेंतले माकड उठावदार काळे, करड्या, रंगाचे आसतात. काळसार, माकाक, रेसस भारतांत सगळेकडेन सपाट मैदानांत तशेंच दोंगराळ वाठारांनीय दिसता. गोंयांतय ह्या प्रकाराचे माकड चड आसात.

**प्रकार आनी जाती :** पोरन्या जगांतल्या माकडाच्यो जाती अशो-हांचो आस्पाव कॅटाऱ्हिनी ह्या गणांत जाता. जपानी माकाक, बोनेट



माकाक, गोंड्या शेपडेचे माकड, बारबे माकड, ऐप, धव्या तोंडाचे माकड, डायना मंकी, तांबड्या पोटाचो हुप्पो माकड, रुपेरी मारमोसेट, तामारीन बादशहा, लंगूर, कोलोबस, ग्वेनान, पाटस, मँगाबे आदी.

**२) नव्या जगांतले माकड :** धव्या तोंडाचे कापुचीन, चानी पङ्ख्यांचो माकड, काळया पोल्याचो साकी, तांबडो हावलर, काळो हावलर, लांब ल्हंवेचो माकड, स्पायडर माकड आदी, हांचो आस्पाव प्लॅटिऱ्हीनी ह्या गणांत जाता.

**मानवसदृश कपी :** हाचो आस्पाव कॅटाऱ्हिनी गणांत आनी होमिनॅयडिया ह्या उपकुळांत जाता. शरिरक्रियाविज्ञान आनी मानवशास्त्राचे नदरेन हांच्यांत आनी मनशांत बरेंच सारकेपण दिसून येता. ताका शेपडी नासता आनी ते मनशावरी फाटल्या दोन पांयार उबे रावंक शकतात. तांच्या मेंदूचीय फाव ती वाड जाल्ली आसता. कांय वेळा हे प्राणी चार पायांनीय चलतात आसले तरी तांचो आस्पाव चतुश्पाद प्राण्यांत जायना. ह्या प्राण्यांत काय जाणांचे हात आनी पांय सारके आसतात. जाल्यार कांय जाणांचे हात पांयापरस लांब आसतात. ह्या प्राण्यांत गिबन, गोरिला, चिपँझी ओरँगाडटान ह्या प्राण्याचो आस्पाव जाता.

**१) गिबन :** हाचो आस्पाव हायलो बेटिडी ह्या कुळांत जाता. हे चड करून ब्रह्मदेश, थायलंड, इंडोचायना, मलेशिया, सुमात्रा, जावा आनी बोर्निओ ह्या वाठारांत मेळटात.

हो कपी आंगान सडपातळ आनी धावपांत चपळ आसून जमनीचेर आसतना सरळ उबे रावन चलपी हो एकसुरो कपी आसा. ताचे हात पांयांपरसूय लांब आसतात, कांय वेळा पांयांचीं बोटां एकामेकांक तेंकिल्लेवरी दिसतात. फळां आनी पानां हें तांचें मुखेल अन्न. पूण कांय वेळा ते जीव, तांतयां आनी ल्हान प्राणी खातात. पयलीं हात उदकांत बुडोवन ओलो करप आनी उपरांत तो चाटप ही तांची उदक पिवपाची खाशेली पद्दत. पाच ते आठ वर्सांच्या काळांत ते वयांत येतात आनी तांचो गर्भकाळ सात म्हयन्यांचो आसता. मादी एकाच वेळार एका पिलाक जल्म दिता. खोशी, भंय आनी अजाप ह्यो भावना ते वेगवेगळे आवाज काडून आनी मुखामळाचेर भाव दाखोवन उक्तायतात. तांची शिक्षण ग्रहण करपाची शक्त हेर कपीं मानान उणी आसता.

**ओरँगउटान :** हाची पोंगो पिग्मीयस ही एकच जात आसा. हे सुमात्रा आनी बोर्निओच्या रानांत मेळटात. तांच्यांत आनी मनशाच्या चेहऱ्यांत खूबशें सारकेंपण दिसता. हाचे तकलेची वाड वयलेवटेन जाता. हाचे पांय गोरिला आनी चिपांझी परस लांब, पूण आंखूड आनी सूळे विखाच्या दांतावरी आसतात. तांचो चेहरो आनी तळवे सोडून हेर आंगार कैंस आसतात. नर मादी परस आकारान व्हड आसून ताचो कंठकोश (गळयाकडली हवेची पिशवी) व्हड आसता आनी ती छातयेमेरेन लोंबकळटा. ताची उंचाय सुमार १.३मी. आनी वजन सुमार ६८किग्रॅ. आसता. गिबनापरस हांची विचार करपाची शक्त बरी आसता. झाडांच्यो कळयो आनी फळां हें तांचें मुखेल खाण. फाटीर उताणे पडून वा कुशीर पडून ते न्हिदतात. थंडेंत वा पावसांत आंगाचेर पानांचें पांघरूण घेतात. पिरायेच्या धाव्या वर्साच्या सुमाराक ते वयार येतात. गर्भकाळ सादारण साडेआठ ते णव म्हयन्यांचो आसता. जल्मतनाच पिलाचें वजन सुमार ९०० ग्रॅ. आसता. मादी पिलाक देडवर्स मेरेन आपलें दूद दिता.

**गोरिला :** हे आफ्रिकेंतल्या कॅमेरून, गाबाँ आनी काँगो हांगाच्या दाट रानांत दिसून येतात. नरवानर गणांत हो सगळयांत व्हड आनी शक्तीवान प्राणी आसा. तांच्या नराची उंचाय १.८मी. आनी वजन सुमार २०० किग्रॅ इतलें आसता. हे दिसपाक भिरांकूळ आसून तांचे कान ल्हान आनी मनशावरी आसतात. दोळे खोल आनी जबड्याचे स्नायु बळिश्ट आसतात. हांचे हात पांयांपरस बरेच लांब आसून, तो पांयांच्या तळव्याचे भायले वटेन आनी हाताच्या बोटांच्या सांध्यार उबो रावता. नर, मादी आनी पिलां अशें हाचें कुटुंब आसता. तरी कांय वेळां जायतीं कुटूंबां एकठांय येवन तांचो पंगड जाता. खाण सोदपाखातीर ते फकत भोंवत रावतात आनी भटकी जीण जगतात. तांचे वसाहतीचेर हल्लो जाल्यार नर आनी मादी दोगांयमेळून झूज दितात. ताची वाड झपाट्यान जाता आनी ते १२वर्सांचेर माजार येतात.

**चिंपँझी :** हाचें शास्त्रीय नांव पॅन ट्रॉगलेडायटीझ अशें आसा. सिएरा लिओनसावन ते काँगोच्या उदेंत वाठारांत दिश्टी पडटात. हे जातींत तांच्या, सुवातीवयल्यान जायत्यो उपजाती आसात. देखीक : ढेंगू चिंपँझी (पॅ. पॅनिस्कस), शरीर आनी शरिरक्रिया वैज्ञानिकाचे नदरेन तांची रचना खूबशी मनशावरी आसता. तांचो मेंदू नरवानरांमदीं सगळयांत चड विकसीत जाल्लो आसून तातुंतलीं संवेदकां सादारणपणान मनशावरीच आसतात. ताचे कान लांब, खाशेले अशे दोळे आनी रंग काळो आसता. नराची उंचाय १.५मी. जाल्यार मादीची १.२मी. आसता. तो चडकरून झाडाचेर रावता. जमनीवयल्यान चलूंक लागलो वा उबो रावलो जाल्यार दोन हात एकांत एक घालून कमराचेर फाटलेवटेन दवरता. हाका लागून ताका तोल सांबाळूंक सोंपें वता. दीसभर भोवन ते फळां वा पानां सोदून खातात आनी रातचें पानांचें हातरूण करून न्हिदतात. ७-८ वर्सांचेर ते वयांत येतात. मादीचें ऋतूचक्र २६-२७ दिसांचें आसता. गर्भावधी ८-९म्हयन्यांचो आसता. जल्मतनाच पिलाचें वजन १.८किग्रॅ. आसता. मनशापरस ताची वाड चड बेगीन जाता आनी पिराय मनशापरस उणी आसता. पिरायेच्या तिसाव्या वर्सा तांकां म्हातारपण येता. तांची शिकपाची आनी नक्कल करपाची क्षमता बरी आसता. ताची स्मरणशक्तीय उल्लेख करपासारखी आसता. आपल्यो दर एक भावना तो मुखामळावरवीं उक्तायता.

**प्रजनन :** सादारणपणान माकडीण वर्सांतल्यान एके खेपे एकाच पिलाक जल्म दिता. माकड पंगड करून रावतात. ह्या पंगडाची राखण दादले माकड करतात आनी बायल माकड भुरग्याचें संगोपन करतात. जेमेरेन पिलां स्वताच आपल्या पांयांनी भोवंक शकनात तोमेरेन आवयो भुरग्यांक पोटाकडेन धरून भोवतात.

**पोसप आनी खावड** : माकड झाडां झुडपाचो पालो, फळां, तरने कोंब, जीव-वायटी, सवण्यां तांतयां खातात. तांकां सकाळ सांजवेळ खावपाक जाय. हेर वेळार उगीच नासाडी करप हो तांचो स्वभाव. थोडे माकड दीसभर खायत रावतात. रातचे ते झाडाचे खांदयेर बशिल्ले थंयच न्हिदतात. झाडां नाशिल्ल्या जाग्यांनी ते फातरार आड पडटात. माकडां हुशार आशिल्ल्यान कांय लोक तांकां पाळटात. तेचपरी, सर्कशींत, प्राणिसंग्रहालयांत दवरतात. तांकां शिकोवन तरेतरेचीं कामां करून घेतात. मनशाळिल्ल्या माकाडाची लेगीत एके फावट भिरांत आसता, देखून खबरदारीचो उपाय म्हूण तांकां बंद पिंजऱ्यांत दवरतात.

**उपेग** : लोकांची करमणूक करपाक डोंबारी लोक माकडांक खेळ करपाक उडयो मारपाक आनी नाचपाक शिकयतात. लेबोरटरींनी शास्त्रीय प्रयोग करपाखातीर रेसस जातीच्या माकडांचो चड उपेग जाता. रगता गटांत R H Factor हाचो रेसस माकडाक लागून सोद लागलो. रामभक्त हनुमान माकड आशिल्ल्यान हिंदू लोक ताचेकडेन पूजनीय नदरेंतल्यान पळेतात आनी ताका मारीनात. रामान सेतू बांदलो तेन्ना ताका माकड सेनेनच आदार दिल्लो असो उल्लेख रामायणांत मेळटा. आदल्या काळांत खेत्याकडल्यान माथ्यांतल्यो उयो काडून घेवप जाताल्यो.

**रोग आनी उपाय** : माकड चडसो सैमाच्या सानिध्यात रावता आशिल्ल्यान ताका रोग उणोच जाता. तरी व्हायरस रोग, इन्फ्लुयेंजासारके रोग माकडाक जातात. पूण ताची प्रतिकार शक्त बरी आशिल्ल्यान ते ल्हव ल्हव निवळटात.

**खाशेलेपण** : मनशाभशेन माकड आपल्या हातापांयांनी वस्तू धरतात. तो दुसऱ्याची कृती पळोवन तशीच कृती करता. पोशिल्ले माकड सादारणपणान १५-३० वर्सां जगता. हावलर जातीचो माकड हुप हुप असो मोठ्यान आवाज करता. रानांत हो आवाज १-२ मैल मेरेन आयकूंक येता. ताका लागून हेर रानटीप्राणी रानांत संकटापसून सावध जातात.

- डॉ. ए. एस. वागळे

**माकाव** : चीनच्या दक्षिण दर्यादेगेवयलो पुर्तुगालचो प्रांत. हो प्रांत पर्ल (चु चिअँग) न्हंयेचें मूख खाडीचे अस्तंते वटेन आसून मुखार उदेंतेकडे ६४किमी. चेर खाडीचे उदेंतेवटेन हाँगकाँग ही ब्रिटीश वसाहत आसा. हेच खाडीचे मदेगांत, माकावचे उत्तरेक १०५ किमी. चेर कँटन हें चीनचें बंदर आसा. प्रांताचें क्षेत्रफळ सुमार १५.५चौ. किमी. लोकसंख्या ४,८४,००० (१९९१). चीनच्या ग्वांगटुंग प्रांताच्या दक्षिणेकडच्या अशीर अशा माकाव द्वीपकल्पाचो तशेंच तैपा आनी कुलानी ह्या ल्हान जुंव्यांचो तातूंत आस्पाव जाता. राजधानी माकाव, ही माकाव द्वीपकल्पाचेर आसून प्रांतांतले वट्ट ९०% लोक हांगा रावतात. हो प्रांत २० डिसेंबर १९९९ दिसा चीना सुवादीन करपाची कबलात जाल्या. तेन्ना तो एक स्वतंत्र प्रदेश म्हूण दवरपाचें चीनान मान्य केलां.

वाठाराची सगळ्यांत चड उंचाय कुलोनी जुंव्याचेर (१७४मीटर) आसा. हांगा कायम स्वरुपाच्यो न्हंयो नात. द्वीपकल्पाचेर आनी दोनूय जुंव्यांचेर ग्रॅनाइटी दोंगुल्ल्यो आसात. माकावचें हवामान उश्ण कटिबंधीय मोसमी प्रकारचें आसा. वर्सुकी सरासरी पावस १५२सेंमी. आसून चडांत चड पावस मोसमी वाऱ्यांच्या काळांत पडटा. कस्तुरी माजर सोडल्यार, माकावांत व्हडलीशी मोनजात दिसना.

पुर्तुगेजांचें पयलें जहाज १५१३त पर्ल न्हंयेचे खाडींत आयलें. तेन्नासावन पुर्तुगेजांचे माकावां कडेन संबंद सुरू जाले. पुर्तुगेजांनी माकावचो वापर १५३५ सावन केल्ल्याचें चिनी नोंदीवयल्यान दिसता. १८८७त जाल्ले कबलातीप्रमाण चीनान माकावावयलें पुर्तुगालचें प्रभुत्व मान्य केलें.

चीन आनी जपान हांचेकडेन जावपी आंतरराश्ट्रीय वेपाराचें माकाव हें प्रवेशद्वार आशिल्लें. आंतरराश्ट्रीय वेपारसमूहाची स्थापणूक माकावांत केली. अठराव्या शेंकड्याचें दुसरें अर्द आनी एकुणिसाव्या शेंकड्याचो कांय काळ, हो माकावचो भरभराटीचो काळ आशिल्लो. फुडें चीनी अधिकारीवर्ग आनी युरोपियन वेपारी हांच्यांत अफूच्या वेपारावयल्यान वाद जालो. हाचो परिणाम म्हूण ग्रेट ब्रिटन आनी चीन हांच्यांत झूज जावन १८४१ त आपली वसणूक म्हूण ब्रिटिशांनी हाँगकाँगचेर ताबो मेळयलो. १८४९त पुर्तुगेजांनी माकावांतलीं चिनी शीम शुल्क कार्यालयां नश्ट केलीं आनी माकावचें उक्तें बंदर म्हूण घोशणा केली. पूण कांय काळांतूच हाँगकाँगान वेपारांत माकावाक फाटीं उडयलें. ताका लागून ह्या पुर्तुगेज वसाहतीचो वेपाऱ्यांनी त्याग केलो. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत वेपारी नदरेन माकावचें म्हत्व उणें जालें. १९२० त माकाव बंदराचे उदरगतीखातीर एक कोटी डॉलरचो खर्च केलो. १९२६त भायलें बंदर बांदलें. १९५१ त माकाव हो पुर्तुगेजांचो सागरपार प्रांत जालो. १९७६ त माकावची नवी घटना चालीक लागली. तेन्नासावन माकावचें एका खाशेल्या प्रांतांत रुपांतर करून ताका प्रशासकीय, वैधानिक, वित्तीय आनी अर्थीक स्वायत्तता दिली. १९७९त माकाव परत पुर्तुगेज प्रशासनासकयल उतरलो अशी घोशणा केली. चीन ह्या शेजारच्या देशाकडेन माकावचे इश्टागतीचे संबंद आसात. पुर्तुगालच्यान नेमणूक जाल्लो गव्हर्नर विधानसभेच्या १७ वांगड्यांच्या पालवान राज्यकारभार पळेता.

नुस्तेमारी, वेपार, कारखानदारी आनी पर्यटन हे वेवसाय हांगा चलतात. वेपारी नदरेन उक्तें बंदर म्हूण माकावाक म्हत्व आसा. पर्यटन वेवसायाची हांगा वाड जायत आसा. पतॉक हें माकावाचें स्वतंत्र चलन जावन आसा.

चीनांतल्यान आयिल्ल्या निर्वासितांक लागून हांगा चिनी लोक संख्येन चड आसात. सुमार ९०% पुर्तुगेज जल्मानूच माकावांतले आसात. तर अर्द्यापरस चड चीनी, माकावाभायले आसात. माकावांतल्यो बागो, चीनी राश्ट्रवादी सन-यत्-सेन हाचो पुतळो, माजाँग ह्या खेळविशीं आशिल्ली आवड हातूंतल्यान चीनी संस्कृतायेचो प्रभाव जाणवता. तर नाच-गायन ह्या कलांचेर पुर्तुगेजांचो प्रभाव दिसून येता. पुर्तुगेज ही हांगाची राजभास आसून इंग्लीश आनी कँटनी ह्यो भासोय व्हडा प्रमाणाचेर उलयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मागधी भास आनी साहित्य :** एक प्राकृत भास. ही भास मगध जनपदाची भास आशिल्ली. अर्धमागधी, शौरसेनी, महाराष्ट्री आनी पैशाची ह्या भाशांभशेन मागधी भाशेंतूय स्वतंत्र साहित्यकृती दिसतात. पुर्विल्ल्या काळांत, शेंकड्यांनी वर्सां भारताचो राज्यकारभार मागधी भाशेंतल्यान चलतालो. ताकालागून मागधी भाशेक गौरवस्थान मेळिल्लें. राजम्हालांतूय ही भास उलयताले जावंये. बुध्दान आपलो धर्म, मागधी भाशेंतल्यानूच लोकांक सांगलो. पयले संगीतींत त्रिपिटकाचें अनुग्रथन जालें तें मागधी भाशेंतूच. तें करपी महाकाश्यप हो बौध्द आचार्य मगधांतलोच आशिल्लो.

मागधीचें नातें शौरसेनी भाशेकडे जोडटात. हेमचंद्राच्या प्राकृत व्याकरणांतलीं २८७ ते ३०२ हीं सुत्रां मागधीविशींचीं आसात. तातुंतलें निमाणचें सूत्र आसा 'शेषं शौरसेनीवत्' प्राकृत भाशांची फोडणीशी केल्या तातूंत दाखोवन दिल्ल्याप्रमाण महाराष्ट्री ही निश्चितपणान शौरसेनी भाशेउपरांतची भास मानूं येता. ह्याच नेमान पळयल्यार मागधी ही शौरसेनी भाशेच्या काळांतली थरता. संस्कृतचे तुळेन ह्या दोनूय भाशांची नादप्रक्रिया व्हडलीशी वेगळी ना.

हे भाशेचें अर्धमागधी भाशेकडे थोडेंभोव सारकेंपण आसा. हेर प्राकृतांत संस्कृत अकारान्त पुल्लिंगी नामांचें एकवचन ओकारान्त आसता. मागधींत आनी अर्धमागधींत तें एकारान्त आसता.

मागधीचें सादारण स्वरूप शौरसेनीच्या स्वरुपाभशेन आसा. मागधी भाशेंत 'स' चें श आनी 'र' चें 'ल' जाता. प्रथमेचें एकवचन- 'ए' आनी षष्ठीचें एकवचन आनी अनेकवचन 'आह' आसा.

मागधीचीं कांय खाशेलपणां अशीं आसात -

१) 'र' चें ल देखीक, राजा-लाजा, पुरुश-पुलुशे.

२) स आनी ष हांच्या बदलाक 'श' जाता. देखीक, समर-शमल.

३) क्ष चें ष्क, देखीक, पक्ष-पष्क

४) अहं (हांव)च्या जाग्यार आनी केन्ना केन्ना वयं (आमीं) च्या जाग्यार 'हगे' अशें रूप जाता.

कांय विद्वानांच्या मताप्रमाण मागधी आनी पाली ह्यो दोनूय वेगळ्यो भाशा आसात. पूण हवालदार त्रिपाठी हाच्या मतान ह्यो दोनूय भाशा एकूच आसात. ताच्या म्हणण्याप्रमाण, बौध्द परिभाशेंत बुध्दवचनाक परियाय अशें म्हण्टात. ताचो अपभ्रंश 'पलियाय' असो जालो. पयलें अक्षर दीर्घ जावन पारियाय अशें जालें आनी ताचेंच संक्षिप्त रूप पाली अशें रूढ जालें. बुध्दघोषाच्या ग्रंथांतूय पाली शब्दाचो प्रयोग, भाशा ह्या अर्थान करीनासतना बुध्दवचन ह्या अर्थान केला. देखीक-नेयं पालियं न अट्ठकथायं दिस्सती (हें पालींत म्हळयार बुध्दवचनांत दिसना तशेंच अट्ठकथेंतूय दिसना).

बुध्दघोषान मागधींतूच अट्ठकथांचो अणकार केला. समंत पासादिका ह्या ग्रंथांत तो म्हण्टा-'सम्मा संबुध्देन वुत्तपकारो मागधको वोहारो' अर्थ - ह्या ग्रंथांत सम्मक संबुध्दान प्रयुक्त असो मागधीचो वेव्हार आसा. चवदाव्या शेंकड्याउपरांत 'पाली' शब्दाचो बुध्दवचन हो अर्थ फाटीं पडून 'भाशा' हो शब्द प्रचलीत जालो.

'प्राकृतानुशासन' ह्या ग्रंथांत शाकारी, चांडाली आनी शाबरी ह्यो मागधी भाशेच्यो उपभाशा आशिल्ल्याचें म्हळां. मार्कंडेय हाणें शाकारीक मागधीचें रूप मानलां आनी चांडालीक मागधी भाशेची विकृती तशेंच शाबरीक मागधी आनी शौरसेनी हांचें मिश्रण म्हळां. पिशेल हाच्या मताप्रमाण मागधीच्यो जायत्यो थळाव्यो बोली आशिल्ल्यो.

वररुची आनी हेमचंद्र हांणी आपल्या व्याकरण ग्रंथांत मागधीचे विशिश्ट नेम सांगून, उरिल्ले नेम शौरसेनीभाशेन समजुंचे अशें म्हळां.

संस्कृत नाटकांनी कांयकडे मागधीचो उपेग केला. नाटकांतलीं खंयचीं खंयचीं पात्रां मागधी भाशा वापरतालीं हेविशीं संस्कृत अलंकारशास्त्रांत व्याकरणकारांभितर मतभेद दिसून येतात. भरताच्या नाट्यशास्त्राप्रमाण घोड्यांचो राखणदार, अंतःपुरवासी आनी अडचणींत सापडिल्लो नायक ही भाशा वापरता. मार्कंडेयान आपल्या 'प्राकृतसर्वस्वात' सांगिल्ल्या प्रमाण राक्षस, भिक्षू, क्षपणक (जैन यती) आनी चेट (गडी, दास) ही भास उलयतात. मागधी ही पिशाचांची आनी नीच जातींची भास आसा, अशें दशरुपकांत म्हळां. संस्कृत नाट्यवाङ्मयांत ज्या पात्रांच्या तोंडांत मागधी घाल्या अशा पात्रांतलीं कांय अशीं - मृच्छकटिक नाटकांतलो संवाहक, शकाराचो दास स्थावरक, वसंतसेनेचो नोकर कुंभीलक, चारुदत्ताचो नोकर वर्धमानक, भिक्षू आनी चारुदत्ताचो पूत रोहसेन. कालिदासाच्या अभिज्ञानशाकुंतल हातूंत कोळी आनी शकुंतलेचो ल्हान पूत सर्वदमन. विशाखदत्ताच्या मुद्राराक्षसांत जैन साधू, दूत तशेंच चांडालवेशधारी सिध्दार्थक आनी समिध्दार्थक. भट्टनारायणाच्या वेणीसंहारांतलो राक्षस आनी ताची बायल.

पिशेल हाच्या मताप्रमाण 'ललितविग्रहराज' ह्या सोमदेवाच्या नाटकांत जी भास वापरल्या, ती चड व्याकरनिबध्द अशी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मागर, दत्तात्रय दादाराव :** (जल्म : २६ जून १९२८, तुळजापूर- उस्मानाबाद).

सुटकेझुजारी. तो 'इंडियन नॅशनल कॉँग्रेस' समितीचो वांगडी आशिल्लो. १९४७-१९४८ ह्या काळांत तो हैदराबादच्या निजामाआड भूंयगत कारवायो करतालो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा एच. एस. वाघमारे हाच्या फुडारपणाखाल सुर्ला हांगा जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी उपरांत सोडलो. १९८५ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मागर, देवराव विठ्ठलराव :** (जल्म : २३ सप्टेंबर १९३४, नासिक- महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. १९४२ तल्या भारत छोडो आंदोलनांत, संयुक्त महाराष्ट्र चळवळींत तशेंच भूदान चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा काणकुंबीच्यान गोंयची शीम हुंपून ताणें सुर्ला हांगा जाल्ल्या सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो, तेन्ना पोलिसांनी धरून ताका खूब मार दिलो. २२ डिसेंबर १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**माघ :** हिंदू कालगणनेप्रमाण माघ हो चैत्रादी गणनेंतलो इकरावो म्हयनो. ह्या म्हयन्याचे पुनवेक वा फाटी फुडें मघा नक्षत्र येता, म्हूण ताका माघ हें नांव पडलां. तपस् हें माघाचें वैदिक नांव आसा. शिशिर ऋतूचो हो पयलो म्हयनो. पौष पुनवेसावन माघ पुनवेमेरेन माघस्नान करपाची पद्दत आसा. माघ शुध्द चवथीक तिलचवथ, उमाचवथ वा कुंदचवथ; माघ शुध्द पंचमीक वसंतपंचम वा श्रीपंचम (लक्ष्मीची पूजा); रथसप्तम (सूर्यपूजा), अष्टमीक भीमाष्टमी, दासबोध जयंती (नम) तशेंच वद्य पक्षांत गाणगापूर यात्रा (प्रतिपदा) आनी म्हाविशरात्र (चर्तुदस) हे म्हत्वाचे दीस आसात. माघ पुनवेक शनी मेष राशींत, गुरू आनी चंद्र सिंह राशींत आनी सूर्य श्रवण नक्षत्रांत आसल्यार तो महामाघी योग जाता. ह्या दिसा 'श्री' ह्या बीजमंत्राचो जप करतात.

भारतीय प्रजासत्ताकाची स्थापणूक, निवृत्तीनाथ जयंती तशेंच मध्वाचार्य, रामदासस्वामी, चांगदेव हांची समाधी ह्यो घडणुको ह्याच म्हयन्यांत घडल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**माच :** माळव्यांतलें एक नृत्यनाट्य. माच ह्या शब्दाचो अर्थ मंच वा रंगमाची, नाट्यमंडप असो आसा. फुडें ह्याच शब्दावयल्यान, माचयेर जावपी नृत्यनाट्याकूय माच अशेंच नांव मेळ्ळें.

माच उबारप हें नृत्यनाट्यांतलें पयलें काम आसता. ते खातीर कांय दीस पयलीं, गांवांत वा गांवाभायले एके रिते सुवातेंत, एका शुभ म्हुर्ताचेर एक खांबो उबो करतात. त्यावेळार नृत्यनाट्यांत काम करपी कलाकार आनी हेर कार्यकर्ते एकठांय येवन आपल्या गुरूचे हस्तुकीं त्या खांब्याची पुजा करतात. ही पुजा चालू आसतना धोलक्याचें वाजप चालू आसता. नृत्यनाट्याचो प्रयोग बरे तरेन जावचो हेखातीर ह्या खांब्याक प्रार्थना करतात. उपरांत थंय लागींच एक भक्कम मंडप उबारतात. ताचेर आदाराखातीर फळयो घालून वयर एकाद्री धवीच चादर घालतात. मंचाच्या चारूय वटांनी रंगीत पानां, आंब्याचीं पानां आनी त्या त्या ऋतूंत फुलपी फुलां हांच्यो झालरी लायतात. हो मंच चारूय दिकांनी उक्तो आसता.

मंचाच्या व्यवस्थापनाखातीर ताच्या दोनूय वटांनी दोन दोन पाट आसतात आनी सामकार वेदीचे चार खांब पुरतात. फुडल्या एका खाशेल्या अंतरावयल्या पाटाक 'बाराह घाट के पाट' अशें म्हण्टात. हांगा माचांतले कांय विश्वासू कार्यकर्ते आनी कलाकार बसतात. हो पाट जे वळींत आसता तेच वळींत 'टेक का पाट' नांवाचो दुसरो पाट आसता. हांगा गायक आनी नर्तक बसतात. एके वटेन माचनाट्याच्या मूळ प्रवर्तकाचें आसन आसता. ताका गुरूचें आसन अशें म्हण्टात. माचनाट्यांत, रंगोवप वा वेशभूशा नासता. रंगमाची सगळया वटांनी उक्ती आशिल्ल्यान प्रेक्षकांक खंयच्यानूय नाच पळोवपाक मेळटा.

माचनाट्याचे सुरवातेक त्या नाट्यांत आशिल्ले सगळे कलाकार आनी नाट्यांतले हेर कार्यकर्ते गणपती, भेरूजी आनी माचनाट्याचो लेखक हांकां वंदन करतात. उपरांत भिश्ती येता आनी उदक फाफुडील्ले भशेन अभिनय करता आनी पद म्हण्टा. ताचे उपरांत एक बायल येता. ती माचनाट्य लेखकाच्या गुरूचें स्तवनगीत म्हण्टा. ह्या वेळार ती आपल्यो घरच्यो गरीबीच्यो गजाली सांगता. ती वतकच परतून सगळे कलाकार देवी आनी गणपती हांकां वदन करतात. उपरांत देवीचो गुजारी आनी ताच्या फाटल्यान स्वता देवी रंगमाचयेर येता. देवी सगळया कलाकारांक आशीर्वाद दिता. इतलें जातकच सगळे गुरूचो जयघोश करतात आनी मुखेल नाट्याक आरंभ जाता.

माचनाट्याचो लेखक वा दिग्दर्शक अभिनेत्याच्या फाटल्यान रावन संवाद म्हण्टा. कलाकार फकत अभिनय करता आनी मदीं मदीं ध्रूपद धरून सूर ओडटा.

बालमुकुन्द हो पयलो माचनाट्य लेखक आसा. तशेंच नानूराम शेखावटी, कालूराम उस्ताद, भेरु गुरू हे नामनेचे माचकार. हालींच

सेवाराम परमार, राधाकिशन, नाथूसिंह उस्ताद हांणी कांय माचनाट्यां बरयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**माजर :** (कूळः फेलिडी; गण : कार्निव्होरा; प्रजातीः फेलिस; प्रकार : मेमेलीया).

एक पाळीव प्राणी. हातूंत आनीकय एक प्रकार आसून ताका रानटी माजर म्हण्टात. पाळीव माजराक आंगभर ल्हान आनी गच्च ल्हंव आसता. ताची लांबाय सुमार २फूट. ताका सुमार २३सेंमी. लांब शेपडी आसता. ताचें वजन ८किल मेरेन आसता. चलतना माजर शेंपडी सदांच वयर धरता. ताचें शरीर ताकदवान आसून तें चपळ आसता. ताच्या वेगवेगळ्या अवयवाचे हालचालींत एके तरेचें एकसुत्रीपण आसता. कितल्याय वयल्यान उडयल्यार वा पडल्यार लेगीत तें चार पांयांचेर सुरक्षीत उबें रावता. ताचो मेंदू शरिराच्या मानान व्हड आसून ताची पुराय वाड जाल्ली आसता. माजराक खास अशी दातांची तशेंच पंजाची रचना आसून ताच्या वयल्या जबड्यांत १६ जाल्यार सकयल्या जबड्यांत १४ दांत आसतात. ताका लांब आनी तीक्ष्ण सुळे आशिल्ल्यान मांस पिनपाक आनी मांसाचे कुडके करपाक सोंपें जाता. ताच्या फुडल्या पांयांच्या पंजाक पांच बोटां, जाल्यार फाटल्या पांयांच्या पंजाक ४ बोटां आसतात. बोटांच्या निमण्या पेराच्या हाडार तीक्ष्ण नाखटां आसतात आनी तें जाय तेन्ना हीं नाखटां भायर भितर काडटा. ताच्या पंजाचो तळवो खुबूच मोव आशिल्ल्यान तें चलतना आवाज येना. ताचे नाकपुडयेची तशेंच दोळयांची रचना अशी आसता जाकालागून ताका काळखांत लेगीत बरें दिश्टी पडटा. तशेंच वस्तुची वळखय जाता. माजराचे दोळे निळे,



पाचवे, हळदुवे वा तांबशे आसूं येतात. ताका तीक्ष्ण घाणेंद्रिय आसता आनी तें चडकरून वासाचेर आपली शिकार करूंक शकता. तेचपरी तें कितलोय सूक्ष्म आवाज आयकूंक शकता. ताच्या कानाक ३० स्नायू आशिल्ल्यान तें कुत्र्यापरसूय बेगीन आपले कान आवाजाचे दिकेन वळोवंक शकता.

**उगमाचो इतिहास :** सुमार ४ कोटी वर्सांआदी ऑलित्रोसान काळाच्या निमाणें माजराच्या कुळांतले प्राणि अस्तित्वांत आशिल्ले अशें त्या काळांत मेळिल्ल्या जिवाश्मांवल्यान दिसून येता. हालींच्या घरमाजराची उत्पत्ती युरोप-आफ्रिका, आशिया ह्या वाठारांतल्या रान माजरापसून जाली आसुंये अशें मानतात. माजराक केन्ना पोसूंक लागले वा तें केन्ना मनशाळिल्लें हाचेविशीं सारकीं म्हायती मेळना. इजिप्तांत ३५०० वर्सांआदीं तें मनशाळळें अशें म्हण्टात. इ.स.आदी २५००-२२०० ह्या काळांतल्या पाचव्या आनी सव्या इजिप्शीयन राजवंशांनी माजर हो प्राणी पवित्र आशिल्ल्याची घोशणा केली. तरी इ.स. आदीं १५०० वर्सांआदींचो ताका मनशाळिल्ल्याचो सारको पुरावो मेळना. ग्रीस आनी चीन देशांत इ.स. आदीं पांचव्या शतमानांत घरमाजराचें अस्तीत्व आशिल्लें. भारतांतल्या इ. स. आदीं १०० वर्सां आदल्या संस्कृत साहित्यांत माजराचो उल्लेख आसा. दक्षिण मध्य वेल्स हांगाच्या होबेलदा ह्या राजपुत्रान इ. स. ९३६त माजराच्या संरक्षणाचो कायदो केल्लो असो उल्लेख मेळटा. अमेरिकेंत १७५० च्या सुमाराक घरमाजरां पाळटाले. फुडें इजिप्ताच्या लोकांनी माजरां पोसूंक सुरवात केली आनी तीं पर्शिया, तुर्की, थायलंड, सियाम, मियानमार, भारतांतल्यान मागीर इंग्लंड, रशिया हांगा पातळळीं आनी उपरांत तीं पुराय सवसारांत पातळळीं.

धर्म आनी चेटूकविद्या ह्या दोनूयमळांर जायत्या देशांत माजराचो संबंद आयला. माजराची तकली आशिल्ली बस्त नांवाची इजिप्शियन लोकांची देवी आशिल्ली आनी ब्यूबॅस्तिश शारांत तिचें पुजास्थान आशिल्लें. हीरॉडॉटस हाच्या बरपावयल्यान त्या देशांत माजर मारप्याक देहान्ताची शिक्षा दिताले. माजर मरतकच ताच्या मड्याची ममी करून दवरताले. अशो ममी तेल बसा हांगाच्या उत्खननांत मेळळ्यात. पूण फाटल्या दोनशें वर्सांच्या काळांत ताचें म्हत्व उणें जालां. किरिस्तांव लोकांत काळें माजर आनी गूढ विद्या हांचो संबंद लावन माजराक त्रास दिवप जाताले. जर्मनींत कांय प्रसंगा वेळार माजराचें दर्शन जावप म्हळयार संकटाक येवकार समजतात. तांकां ल्हान भुरग्यांच्या पाळण्याकडे वचूंक दिनात. पिडेखोर मनशाच्या हातरुणाचेर काळें माजर येवन बसल्यार ताचें मरण लागीं पावलां अशें समजतात. भारतांत माजराविशीं कांय समजुती आसात त्यो अशोः १) कसलेंय काम करपाक घरांतल्यान भायर सरतना माजर आडवें गेल्यार तें काम जायना. २) माजराक जीवें मारल्यार तें महापाप समजतात आनी तेखातीर प्रायश्चीत म्हूण काशीयात्रा करून भांगराचें माजर दान करचें अशें सांगतात. ३) माजराची पुजा केल्यार प्रतिस्पर्ध्याचेर जैत मेळटा. ४) राजस्थानांतले लोक माजराक लक्ष्मीचें प्रतीक मानतात. ५) मुसलमान लोक माजराक पवित्र मानतात. एक छंद म्हणून तेचपरी धान्य वा हेर वस्तुंचो नाश करपी हुंदराचेर नियंत्रण दवरपाखातीर घरांत वा धान्याचे कोठयेंत माजरां पोसपाची चाल खूब आदीं सावन आसा.

**राबित्याचो वाठार :** लांब केंसांचें माजर, म्हळयार आंगोरा जातीचें माजर तुर्कस्तानांत मेळटा. तशेंच मोटवे ल्हंवेचें परसीयन माजर, सियामीज माजरां, थायलँड, सियाम हांगा मेळटात. हांची ल्हंव मोव आनी रंग धवोफुल्ल आसता. मँक्स जातीच्या माजरांक शेपटी नासता. हांकां जमनीर बेगीन चलपाक येता पूण झाडार वा वयर चडप जमना.

**प्रकार आनी जाती :** ईजिप्शीयन, सियामीज, नरमीज, मँक्स, सोनेरी पंपास, बोबकेट, लिओपार्ड केट, ॲबिसिनियन, हिमालयन, रेक्स, सोमाली, कोराट, ब्रह्मी, रशियन ब्ल्यू, ब्रिटीश ब्ल्यू, भारतीय माजर, रानटी माजर.

**प्रजनन :** सादारणपणान १० म्हयन्यांनी बुकलो (नर) आनी ७-१२ म्हयन्यांनी माजर प्रजोत्पादनाक योग्य जाता. डिसेंबर ते मार्च हो तांचो फळपाचो ऋतू. ३-९ म्हयन्याच्या अंतरान तें फळपाक येता आनी २-८ वर्सांमेरेन तें पेटे काडटा. गर्भावधी सादारणपणान ६५ दिसांचो आसता. माजर एके वेळेर आठ मेरेन पेटे काडूंक शकता. पूण ल्हान पिरायेच्या माजराक १-२ पेटेच जातात आनी सात वर्सांउपरांत तिचे पेटे काडप उणें जाता. जाल्ल्या पिलाक ल्हंव उणी आसता आनी ताका दिश्टीय पडना. तेचपरी तांकां आयकुंकय येना. ७-१० दिसांनी ताचे दोळे उगडतात. तीं दोन म्हयनेमेरेन आवयचें दूद पितात आनी ह्या काळांत तिचें अनुकरण करून जायत्यो गजाली शिकतात. दोन म्हयन्यांनी तीं स्वतंत्रपणान वावरूंक लागतात. ४ दिसांनी तांकां दुदाचे दांत येतात आनी पांच आठवड्यांत सगळे दांत येतात. कायम दात तांकां ४-७ म्हयन्यांचेर येतात.

**खावड :** माजर हें चडशें मांसाहारी आसून वन्य अवस्थेंत तें ल्हान प्राणी मारून खाता, पोशिल्ल्या माजरांचोय हुंदीर, ल्हान पक्षी आनी हेर प्राणी मारून खावपाकडे कल आसता. हें माजर चडशें घरांतच भोवता आशिल्ल्यान तें सांडिल्लें अन्न, काटे, नुस्त्याचीं

बोडकां, वा हेर वस्तू खावन आपली उपजिविका चलयता. भायल्या देशांनी ताका उकडिल्लें मांस, तांतयां, बिस्कीट, सूप आदी दितात.

**रोग आनी उपाय :** माजरांक चडकरून पॅनल्यूकोपीनिया, डिस्पेंटर आनी रेबिज हे व्हायरस रोग जातात. पॅनल्यूकोपीनिया ह्या रोगांत ९०% माजरांक मरण येता. डिस्पेंटर ह्या रोगाक माजराचो इन्फ्ल्यूएंझा अशेंय नांव आसा. हांचे भायर माजरांक संक्रामक रक्तक्षय, गजकर्ण, परजीवीजन्य विकार जातात. हीमोबार्टोनेला फेलिस ह्या परजीवाक (दुसऱ्याच्या जिवार जगपी) लागून संक्रांमक रक्तक्षय ह्या रोगाची लागण लागता आनी हो रोग चडसो ब्रिटन, अमेरिकन आनी दक्षिण आफ्रिका ह्या देशांतल्या माजराक जाता. हाचेर टेट्रासायक्लीन हें वखद उपयुक्त आसा. ट्रायकोफायटॉन, मायक्रोस्फोरम, ॲकोरिऑन ह्या कवकांक लागून गजकर्ण हो रोग जाता. सुरवेक फुडलो पंजो, तकली आनी मान हांकां हो रोग जाता आनी उपरांत सगळ्या आंगार पातळटा. हो रोग जाल्लो भाग निवळ करून ताचेर क्रायसॅरोबिन मलम (१:५०), सॅलिसिलिक मलम (१:२०) आनी आयोडिन मलम (१:५०) लायल्यार गूण पडटा. परजीवीजन्य हो दंताकलागून जावपी रोग माजरांमदीं चडकरून आसता. हाचेभायर नॉटीड्रीस कॅटाय आनी ऑक्टोडेक्टस ह्या सायनॉटिस हांकां लागून माजरांक खरोज जाता. हांचेभायर थंडी पावसाची आनी दंतांचीय बादा माजरांक जाता. हुलको ह्या नांवाचे जीव माजराच्या आंगार सतत आसतात.

**खाशेलेंपण :** माजराचो स्वभावधर्म चोरप हो आसा. तें मोख धरून बसता आनी शिटूकसाणीन आपली शिकार करता. कितलेंय मायेन वागयलें तरी तें कुत्र्यावरी इमानी आसना. माजर हें शिटूक आनी स्वातंत्र्यप्रीय प्राणी आसा. ताका एका जाग्यार बंद करून दवरिल्लें वा बांदून दवरिल्लें आवडना. राग येता तेन्ना तें गुरगुरता. आपल्यापरस आकारान आनी शक्तीन व्हड आशिल्ल्या प्राण्याचेर हल्लो करपाक तें फाटीफुडें पळयना.

**रानमाजर :** गणः मांसाहारी; कूळः फेलिडी, शास्त्रीय नांव फेलिस चाउस. हें उत्तर आफ्रिकेसावन नैऋत्य आशिया, भारत, श्रीलंका, मियानमार आनी इंडोचायना ह्या प्रदेशांनी मेळटा. भारतांत हिमालयासावन केप कामोरिनमेरेन हें सगळेकडेन मेळटा. भारतांत रानमाजराच्यो चार जाती आसात. (१) हिमालयातलीः अंगार लोकरीवरी दाट केंस; (२) उत्तर भारताच्या सपाट वाठारांतलीः आकार ल्हान, शेंपडी अशीर (३) वाळवंटातलीः रंग लेव हळडुवा, आंगार काळे थिपके, शेपडेर काळीं वलयां (४) दक्षिण भारतांतलीः मोटवे केंस, फाटीचो रंग भुरकट, आंगार काळे आनी धवे थिपके.

रानमाजरां तणाच्या जमनीर, झोपांनी वा न्हंयो, व्हाळ तशेंच चिखलाच्या देगेवयल्या वेताच्या झोपांत रावतात. काश्मीरांत तीं गांवां लागसल्ल्या फातरांनी वा पोरन्या घरांनी रावतात.

ताची लांबाय तकलेसयत ६०सेंमी., शेपडी सुमार ३० सेंमी. लांब, वजन ५-६ किग्रॅ. आसता. रानमाजराचे खाशेले ठेवणेवयल्यान तें वळखूंक सोंपें जाता. ताचे पांय लांब, शेपडी मोटवी आनी दोळे लेव पाचव्या कोराचे आसतात. कान तांबशे आसून तांच्या तोंकार काळ्या केंसांची वळ आसता. रंग भुरकट गोबराचो वा हळडुवसार करडो, शेपडेच्या तोंकाकडे काळीं वलयां आसून तोंक काळेंच आसता. ताचें दावकूल लेव हळडुवें आसून तळवे काळे वा काळपट पुडी कोराचे आसतात.

रानमाजर सादारणपणान सकाळींच वा सांजे भायर सहता. तें खुबूच तरतरीत आसून ताच्यो हालचाली चित्यावरी आसतात. ल्हान सस्तन प्राणी, सुकणीं, कोंबड्यो हें ताचें भक्ष्य. मादीक वर्सांतल्यान दोन फावट पिलां जातात. तांकां ल्हानपणापसून पोसल्यार तीं सहजतायेन मनशाळटात.

डॉ. ए. एस्. वागळे

**माटलिंक, मॉरिस :** (जल्म : २९ ऑगस्ट १८६२, गेंट; मरण : ६ मे १९४९, नीस).

नोबॅल पुरस्कार फाव जाल्लो बेल्जियन कवी आनी नाटककार. १८८५त ताणें गेंट विद्यापिठांतल्यान कायद्याची पदवी घेतली. उपरांत तो पॅरिसाक गेलो. थंय स्तेफान मालार्मेसारक्या फ्रेंच प्रतीकवादी कवींचो ताचेर प्रभाव पडलो. योरिस कार्ल युईसमांस ह्या फ्रेंच कादंबरीकाराचे संगतींत ताणें फ्लेमिश गुढवादी रॉइसबुक (तेरावें आनी चवदावें शतमान) हाच्या ग्रंथाची वळख घेतली. गेंट हांगा परत येतकच ताणें वकिलीपरस साहित्यांत चड लक्ष घालें.

ताच्या सुरवेच्या साहित्यकृतींत 'हॉट हाऊस ब्लूम्स' (१८८९) ह्या कवितांझेल्याचो आस्पाव जाता. 'ट्वेल्व्ह सॉंग्ज' (१८९६) हो ताचो आनीक एक उल्लेख करपासारको कवितांझेलो. 'प्रिन्सेस मॅलिन' (१८८९) ही ताची पयली नाट्यकृती. उपरांत 'द इंट्रूडर' (१८९१), 'द ब्लाइंड' (१८९१), पेलीस अँड मेलिसांदे' (१८९३), 'मोन्ना व्हेन्ना' (१९०२), 'द ब्लू बर्ड' (१९०८) 'द ब्रिट्रोदल' (१९१८) हीं उल्लेख करपासारकीं नाटकां उजवाडा आयलीं.

ताचे बरपावळींत चडसो प्रतीकवादाचो प्रभाव आशिल्ल्याचें स्पश्ट दिसून येता. ताच्या नाट्य लेखनाचेर शेक्सपिअराचो आनी इंग्लिशींतल्या जेकोबिअन नाटक काराचे जाल्ले संस्कार दिसून येतात. ताच्या नाट्यलिखाणाक लागून ताका संवसारीक नामना मेळ्ळी.

आत्म्याचें अमरपण, मनशाच्या जिवितांतल्या दुखाविशीं मनशाचेर आशिल्ले जबाबदारीची शीम हे सारके तत्त्वीक विशय ताणें 'द ट्रेझर ऑफ द अंबल' (१८९६), 'विजडम अँड डेस्टिनी' (१८९८) ह्या ग्रंथांवरवीं हाताळ्ळयात. ताच्या सतराव्या वाडदिसा निमतान बेल्जियमच्या राजान ताका 'काउंट' ही पदवी दिवन ताचो भौमान केलो. १९११त ताका साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार दिवन ताचे साहित्यसेवेचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**माड :** (मराठी : नारळाचे झाड; हिंदी; गुजराती : नारियल; कन्नड : टेंगू; संस्कृत : नरिकेल; इंग्लीश : कोकोनट; लॅटीन : कोकॉस न्यूसिफेरा; कूळ : पामी).

हेर झाडां परस वेगळे पद्दतीन वाडपी झाड. हाका खांदयो आसनात. (दोन वा तीन फांटे आशिल्ले एक-दोन माड गोंयांत जाल्यात). हाच्यो ऊंच वाडपी जाती सुमार २५-३०मी. ऊंच वाडटात. मोटव्यो आनी संकरीत जाती ८-१० मी. ऊंच वाडटात. खोडाचो घेर ८० ते ९० सेंमी. आसता. मुळाकडचो घेर १३० ते १५० सेंमी. आसता. खोडाचे तेंगशेर २५-३५ पानां आसतात. माड ल्हान आसतना ताका खोड दिसना. तशेंच पानां कमी आसतात. माडाच्या पानांक चुडटां अशें म्हण्टात. चुडटाची लांबाय सुमार ६मी. आसता. चुडटांक १-१.५मी. लांबायेच्यो १५०-२०० चुडट्यो आसतात. बरी जतनाय घेतिल्ल्या माडाक दर म्हयन्याक एक नवें चुडीत येता. चुडटा वांगडा एक ९०-१००सेंमी. लांब पोंय भायर येता. २$^1/_2$-३ म्हयन्यांनी पोंयेंतल्यान फुलां भायर येतात. माडाक एकाच झाडार बायल आनी दादलो अशीं दोन तरेचीं फुलां येतात. फुलांचो कोर हळदुवो आसून




१ - माडांचें भाट; २ - नाल्लांची पेंडी

एका फुलाच्या तुऱ्यांत सुमार ९ते१० हजार दादले फुलां येतात. जाल्यार बायल फुलां १०-१५ आसतात. मोटवे जातीच्या माडांनी बायल आनी दादले फुलां पोंयेंतल्यान एकाच वेळार भायर सरतात. ताका लागून हे जातीच्या माडांनी स्वपरागीकरण (Self Pollination) जाता. जाल्यार ऊंच वाडपी आनी संकरीत जातीच्या माडांनी परपरागीकरण (Cross Pollination) जाता.

परागीकरण जाल्या उपरांत सुमार ११-१२ म्हयन्यांनी नाल्ल तयार जाता. उपरांत सादारण पांच म्हयन्यांनी नाल्लांत कातली तयार जावपाक सुरवात जाता. ह्या वेळार भितर आशिल्ल्या उदकाक गोडी आसना. ७-८ म्हयने जातकच उदकाची गोडी वाडटा. हाका आडसरां अशें म्हण्टात. ८ म्हयन्या उपरांत कातलेंतल्या तेलाचें प्रमाण ल्हव ल्हव वाडटा. तशेंच नाल्लांतलें उदकाचें प्रमाण कमी जावन कातली दाट जाता. भितल्ली कट्टी घट जाता. शास्त्रीय नदरेन नाल्लाचे तीन मुखेल भाग आसातः १) सोण्णां, २) कट्टी, ३) कातली. तयार जाल्या ११-१२ म्हयने पिरायेच्या नाल्लाचें वजन सरासरी ७००ग्रॅम आसता. नाल्लाचें वजन हें जातीचेर अवलंबून आसता. नाल्लाच्या वजनाच्या ३५% वजन सोण्णाचें आनी २५% उदकाचें आसता.

माडाक सोटमूळ आसना पूण माडाचीं ॲडव्हेन्टीशीयस मुळां खूब घट्ट आसतात. हीं मुळां सुमार ५-७ मी. मेरेन पयस पातळटात. चडांत चड तीं २५ मी. लेगीत पयस वचूंक शकतात. तशेंच ५मी. खोल वचूं येतात. माडाच्या मुळांचें जाळें खूब घट्ट पातळिल्लें आसता, ताकालागून सादारण वादळान लेगीत माड सटकरून हुमटना. पुराय वाडिल्ल्या माडाक

सुमार १५०० ते ८००० मुळां आसतात. ऊंच वाडपी माड ८०-१००वर्सां जगता. मोटवे जातीचे माड ४०-५० वर्सां जगतात.

माडाच्या उगमस्थानाविशीं तज्ञांचें एकमत ना, तरी पूण मॅलेनेसीया हो वाठार माडाचें उगमस्थान आसा अशें बऱ्याचशा तज्ञांचें मत आसा. न्यू-गीनीयाचे अस्तंतेक माडाचें उगमस्थान आसूं येता, अशें जाणकारांचें मत आसा. भारतांत खूब पुर्विल्ल्या काळासावन माडाची लागवड करतात. रामायण, महाभारत ह्या ग्रंथांनी नाल्लाचो उल्लेख आसा.

संवसारांतल्या सुमार ९०देशांनी १००लाख हेक्टर सुवातींत माडाची लागवड आसा. भारताभायर फिलिपायन्स, इंडोनेशीया, श्रीलंका, थायलंड, मलेशिया, न्यू गिनीया, फिझी, झंझीबार आदी देशांनी माडाची लागवड व्हड प्रमाणांत जाता. नाल्ल पिकोवपी देशांत भारताचो तिसरो नंबर लागता. देशांत सुमार १५ लाख हेक्टर सुवातींत माडाची लागवड आसा आनी ताचे पसून सुमार ९२,८३० लाख नाल्ल मेळटात (१९८९-९०). केरळ, तमिळनाडू, कर्नाटक, आंध्र प्रदेश, महाराष्ट्र आनी गोंय ह्या राज्यांनी माडाची लागवड व्हड प्रमाणांत करतात. माडाचे देशांतले वट्ट सुवातींतली ५७% सुवात केरळ राज्यांत आसा. गोंयांत सुमार २२५०० हेक्टर सुवातींनी माडाची लागवड आसा. ताचेपसून सुमार १०कोटी नाल्ल मेळटात.

### संवसारांतलें नाल्लांचें उत्पादन

| देश | वाठार ००० हॅक्टर | उत्पादन दशलक्षांनी नग |
|---|---|---|
| फिलीपायन्स | ३०९३ | १२,२६४ |
| इंडोनेशिया | ३४१८ | ११,७११ |
| भारत | १५१८ | १०,०४३ |
| श्रीलंका | ४१९ | २,२९६ |
| पापुआ नवी गिनी | २६० | ३१५ |
| मलेशिया | ३१५ | ८८३ |
| थायलंड | ३८९ | १,१०३ |
| व्हिएतनाम | २२० | १,०१० |
| आफ्रिका | ४५५ | २,१३२ |
| उ. अमेरिका | २०१ | १,९८६ |
| दक्षिण अमेरिका | २६ | १,६२२ |
| वट्ट | १०,३१४ | ४५,३६५ |

### भारतांतलें नाल्लांचें उत्पादन

| राज्य/केंद्रशासीत प्रदेश | दशलक्षांनी नग | |
|---|---|---|
| | १९९२-९३ | १९९०-९१ |
| केरळ | ५२३६.२ | ४५२७.३ |
| तमीळनाडू | २८१७.३ | २३५८.३ |
| कर्नाटक | १२५१.९ | १२०१.६ |
| आंध्र प्रदेश | १०८१.८ | ७३०.६ |
| अस्तंत बंगाल | २८५.१ | २६३.३ |
| ओरिसा | २१९.५ | १८२.० |
| महाराष्ट्र | १३१.० | १०९.० |
| गोंय | ११३.० | ११०.० |
| अंदमान | ८४.४ | ८३.६ |
| आसाम | १०३.२ | ७८.९ |
| लक्षद्वीप | २१.० | २५.६ |
| पोंडिचरी | २६.१ | २५.८ |
| त्रिपुरा | ४.९ | ४.२ |
| भारताचें वट्ट उत्पादन | ११३७५.४ | ९७००.२ |

माडाचे दोन प्रकार आसात. एक ऊंच वाडपी आनी दुसरो मोटवो माड. ह्या दोनूय प्रकारांच्या माडाच्यो कितल्योशोच जाती आसात. ऊंच वाडपी माडाच्यो कांय म्हत्वाच्यो जाती म्हळयार-बाणावली, कळंगुट, वेस्ट कोस्ट टॉल, प्रताप, लक्षद्वीप ऑरडीनरी, लक्षदीप मीक्रो, अंदमान ऑरडीनरी कटपडम, लगूना, साँ रामन,, मकापुनो, स्पीकाटा. हातूंतल्यो गोंयांत बाणावली आनी कळंगुट ह्या जातींची लागवड करतात. ड्वार्फ ग्रीन, ड्वार्फ ऑरेंज, ड्वार्फ यलो, मलायन ड्वार्फ, गंगाबोन्डम, कोकोनीनो, मंजीपोड, रथ थेंबली ह्यो कांय मोटव्यो जाती आसात. हे भायर ऊंच आनी मोटव्या जातींमदीं संकर करून टी x डी आनी डी x टी ह्यो संकरीत जाती शास्त्रज्ञांनी विकसीत केल्यात.

माड हें उश्ण कटिबंधांत वाडपी झाड. ज्या जाग्यार सरासरी २७°से. तापमान उरता थंय माड बरे जातात. दर्यादिगेच्यान ९००मी. उंचायेचेर लेगीत माड बरे जातात. दर्यादिगेवयल्या खाऱ्या आनी दमट हवामानांत माडाची वाड बरी जाता आनी उत्पन्नय बरें मेळटा. रेंवट तशेंच न्हंयेचे देगेची, सुपीक आनी बरे निचऱ्याचे जमनींत माड बरे जावन येतात आनी उत्पन्नय बरें मेळटा.

माडाची लागवड नाल्लापसून करतात. नाल्लापसून पयलीं कवाथे तयार करून ते लावपाखातीर वापरतात. चड उत्पन्न दिवपी माडाचे मध्यम

आकाराचे नाल्ल काडून ते जून म्हयन्यांत किल्लत घालतात. सुमार तीन म्हयन्यांनी नाल्ल किल्लतात. १०-१२ म्हयने पिरायेचे जातकच कवाथे लावपाखातीर वापरतात. कवाथ्याची लागवड जून-जुलय हे चड पावसाचे म्हयने सोडल्यार हेर खंयच्याय म्हयन्यांनी करपाक जाता. पूण मार्च-एप्रिल ह्या म्हयन्यांनी केल्यार कवाथे बरे जावन येतात. कवाथो लावपाखातीर १x१x१मी. लांब, रूंद आनी खोल ह्या आकाराचें नेम मारतात. हीं नेमां ८x८ मीटर अंतराचेर मारतात. ८मी. परस कमी अंतर दवरल्यार दोन माडांचीं चुडटां एकमेकांक तेंकून माडाचेवाडीक बाधा हाडटात. नेम सुरवेक भाजून घेतात. उपरांत नेमांत १किलो मसुरी फोस्फेट, १किलो स्टेरामील, पांच कायली कंपोस्ट सारें वा सावळ आनी उरिल्ली माती घालून, नेम ६०सेंमी. मेरेन भरून घेतात. उपरांत ह्या नेमांत मदींच कवाथो लायतात. लायल्या उपरांत कवाथ्याक पावस सुरू जायमेरेन सदांच उदक दिवंचें पडटा. ४-५वर्सां जायमेरेन कवाथ्याक थंडे दिसांनी आठवड्याक एक फावट तर गर्मे दिसांनी आठवड्याक दोन फावट उदक दिवचें. एके फावटीक ५०-१०० लिटर उदक दिवचें पडटा.

साऱ्याचो उपेग केल्यार माडाची वाड बरी जाता. तशेंच उत्पन्नय बरें येता. एक वर्स पिरायेच्या कवाथ्याक १००ग्रॅम नत्र, १००ग्रॅम स्फुरद आनी २०० ग्रॅम पलाश इतल्या अन्नद्रव्याची गरज आसता. हें प्रमाण दर वर्सा वाडयत व्हरून पांच वर्सां आनी ताचेवयल्या पिरायेच्या माडाक ५०० ग्रॅ. नत्र, ५००ग्रॅ. स्फुरद आनी १२००ग्रॅ. पलाश इतलीं अन्नद्रव्यां दिवंचीं पडटात. पांच वर्सां आनी ताचेवयल्या पिरायेच्या माडाक तीन किलो १९:१९:१९ हें सारें आनी १किलो मुरीयेट ऑफ पोटेश ह्या साऱ्याचो वापर करचो. वेगवेगळया पिरायेच्या माडाक लागपी अन्नद्रव्यां आनी साऱ्याचें प्रमाण हातूंत दिलां.

| माडाची पिराय | अन्नद्रव्याचें प्रमाण (वर्साक) (ग्रॅम) | | | साऱ्याचें प्रमाण (वर्साक) (किलो) | |
|---|---|---|---|---|---|
| (वर्सां) | नत्र | स्फुरद | पलाश | १९:१९:१९ | पोटेश |
| १ | १०० | १०० | २०० | ०.६ | ०.२ |
| २ | २०० | २०० | ४०० | १.२ | ०.४ |
| ३ | ३०० | ३०० | ६०० | १.८ | ०.६ |
| ४ | ४०० | ४०० | ८०० | २.४ | ०.८ |
| ५ | ५०० | ५०० | १२०० | ३.० | १.० |

सारें दिवपाखातीर माडाक खोडापसून पयस आनी २०सेंमी. खोल आळें काडून तातूंत भितर भरपूर सावळ वा कंपोस्ट खत घालचें. ताचेवयर रसायनीक सारें फाफडून आळें मातयेन धांपतात. माडाक गीमाच्या दिसांनी उदकाची सोय आसल्यार सारें ऑगस्ट आनी एप्रिल म्हयन्यांत दोन फावट विभागून दिवचें. ज्या जाग्यार उदकाची सोय ना थंय वर्सांतल्यान एक फावट ऑगस्ट म्हयन्यांत सारें दिवचें.

पयलीं दोन वर्सां कवाथ्याची पावसाच्या दिसांनी तशेंच गर्मे दिसांनी जतनाय घेवंची पडटा. पावसाच्या दिसांनी कवाथ्याच्या मुळांत उदक सांचून उरूं नये आनी गर्मे दिसांनी ताका चड कडक वत लागूं नये देखून बरीच जतनाय घेवंची पडटा. माडांनी मिश्रपिकां घेतल्यार फायद्याचें जाता. सुरवातीचीं ३-४ वर्सां माडांमदीं केळीचें मिश्रपीक घेतल्यार कवाथ्याक फाव आशिल्लें सांवट केळीपसून मेळटा. माड चार वर्सां पिरायेचो जातकच मिरी, जायफळ, तिखी, अनस सारकीं मिश्रपिकां फायदेशीर थरतात. भाटांत उदकाची सोय नासल्यार पावसादिसांनी भाजीपालो, कड्डणां, भीकणां हीं पिकां घेवपाक जातात. ते भायर फारींग (Tapioca) हें पीक माडांमदीं बरें जावन येता अशें दिसून आयलां.

माडाच्यो मोटव्यो जाती ३१/२-४ वर्सांनी उत्पन्न दिवपाक सुरवात करतात. संकरीत जाती ४-४१/२ वर्सांनी तर ऊंच जाती ६-७ वर्सांनी उत्पन्न दिवपाक लागतात. बरी जतनाय घेतल्यार एका माडापसून वर्साक १००-१५० नाल्ल मेळटात. माडाक सरासरी दर म्हयन्याक एक पेण येता. नाल्लांचें पाडप २-६ म्हयन्यांनी एक फावट करतात. पाडेल्यान दर एका माडार चडून जून जाल्ले नाल्ल पाडपाची रीत सगळेकडेन सर्रास चलता. मलेशिया देशांत प्रशिक्षीत माकडांचो नाल्ल पाडपाक वापर करतात. केरळांत निसणीचें तत्त्व वापरिल्ल्या यंत्राचो वापर नाल्ल पाडपाक करतात.

कांय नाल्लांनी कातली आनी उदक आसना, तांकां वांझ म्हण्टात. तरन्या नाल्लाक आडसर म्हण्टात. नाल्लांतलें उदक सुकतकच ताका आटूक म्हण्टात. एक हजार नाल्लांपसून सरासरी १६२ किलो सुकें खोबरें मेळटा. ह्या खोबऱ्यापसून ५७ ते ६५% खोबरेल मेळटा. भारत देशांत सुमार ३,००,००० टन खोबरेल तयार जाता. हातुंतलें ६०% तेल शाबू आनी हेर प्रसाधनां तयार करपाक, ३५% खावपाक, ५% कारखान्याखातीर वापरतात. नाल्लाच्या वट्ट उत्पादनांत ५७% नाल्ल घरगुती आनी धर्मीक कार्यांत, ३५% नाल्ल आडसराच्या रुपान विकतात. ८% नाल्ल तेल काडपाक वापरतात.

माडाच्या दर एका भागाचो भौउद्देशी उपेग जाता. नाल्ल हें हिंदू धर्मांतलें पवित्र फळ. नाल्लाची पुजा करप धरून, देवामुखार नाल्ल फोडप, नाल्लाचें दान करप, धर्मीक सुवाळ्यांत नाल्लाची भेट दिवप अशा कितल्याशाच तरांनी नाल्लाचो धर्मीक उपेग जाता. हेचखातीर हिंदू धर्मांत नाल्लाक श्रीफळ म्हळां.

नाल्लाचें उदक आनी तरन्या नाल्लाचें म्हळयार आडसराचें उदक हातूंत वखदी गूण आसा.

नाल्लाचे कातलेचे कितलेशेच उपेग जातात. कातलेपसून (सुकें खोबरें) तेल (खोबरेल) काडटात. ह्या तेलाचो उपेग जेवणांत तशेंच केंसांक लावपाक आनी वखदां, कागद, कपडे, चामडें तयार करपाचे प्रक्रियेंत वापरतात. खोबऱ्यांतल्यान खोबरेल तेल काडल्याउपरांत जो सोप (मळी)

मेळटा ताका पेंड म्हण्टात. ही पेंड गोरवांची खावड तशेंच झाडांखातीर सेंन्द्रीय सारें म्हूण वापरतात.

माडाचे पोंयेंचेर प्रक्रिया करून जो रोस (सूर) काडटात ताचेपसून सोरो(माडाफेणी) तयार करतात. एका माडापसून दिसाक सरासरी १लिटर सूर मेळटा. तेभायर सुरीपसून गोड, व्हिनेगर सारके खावपाचे जिन्नस तयार करतात. नितळ सूर पिवपाकूय मेळटा. सूर काडल्यार माडाचें उत्पादन वाडटा. तेखातीर चार वर्सांनी एक फावट माडाची ६-८म्हयने सूर काडप नाल्लाच्या उत्पन्नाचे नदरेन बऱ्याक पडटा.

नाल्लाच्या सोण्णांपसून दोरयो (सूंभ), शेंदऱ्यो, जमखनां, पांयपुसणी, ब्रश, बॅगां सारकिल्ल्यो वस्तू तयार करतात. तशेंच कट्टेपसून बुतांव, चमचे, कांकणां, आयदनां, खेळणीं आनी हेर सोबेच्यो वस्तू तयार करतात.

अशो वस्तू निर्माण करपी केरळ हें एक मुखेल राज्य आसा. दोरयो करपाचें सोडल्यार गोंयांत सोण्णांचो आनी कट्ट्यांचो वापर जळव म्हूण चड जाता. माडाचीं चुडटां घर शाकारपाखातीर आनी चुडटांचे व्हीर सान्नी करपाखातीर वापरतात. कांय कडेन खोंपिच्यो वण्टी चुडटांनी बांदतात. गांवांनी माडाचें खोड चिरून ताचे वांशे काडटात आनी घराच्या पांख्याक वापरतात. तेभायर खोडाचो वापर जळव म्हणूनय करतात. माडाच्या दर एका आंगाचो भौउद्देशी वापर जाता जाल्ल्यान माडाक कल्परुखाची उपमा दिवप जाता.

**किडी आनी रोग** : माडाक जायत्या तरेच्या किडींपसून उपद्रव जाता. तातुंतल्यो कांय अशोः

**गेणो भुंगुल्लोः** हो माडाची शिवडी खाता. ताका लागून शिवडेचें पानांत रुपांतर जातकच ताका कात्रे घडिल्लेवरी दिसतात. केन्नाय शिवडी मोडून पडटा. हेखातीर भुंगुल्लो शिवडेंत आसल्यार तोंकाची सरी घेवन ताका भायर काडून उपरांत बिएच्.सी. १०% आनी एक किलो रेंव हांचें मिश्रण चुडटाचे खांचींत घालचें. हो भुंगुल्लो कंपोस्ट खड्ड्यांत तेचपरी गायरिनी तांतयां घालता. ताका लागून दर तीन म्हयन्यांनी बी. एच. सी. १०% हें वखद ०.०१% तांकीचें करून ह्या वखदाचो फवारो मारचो.

**सोणयो भुंगल्लो (Red Palm Weevil)** : हो माडाच्या खोडांत घुसून भितल्लो गोरोप खाता. ताका लागून मदलीं चुडटां सुकपाक लागतात. माडाच्या मुळांत हे किडीन पोखरून उडयल्लो भुसो दिसता. हाचेर उपाय केलो ना जाल्यार माड मरपाची शक्यताय आसता. तेखातीर खोडाचेर ज्या भागामेरेन किडीची लागण जाल्ली आसता त्या भागावयर ५-१०सेंमी. खोल पूण तिरकस बुराक मारून तातूंत, अर्द लिटर उदकांत १मिली. मोनोक्रोटोफोस वखद घालून मिश्रण तयार करचें आनी फुनेलान बुराकांत ओतचें. उपरांत हो बुराक डांबर वा कापूस हाणें पुरोवन घेवंचो.

**काळे तकलेची कीड** : ही कीड पानांचे सकयल्ले वटेन रावन आपले भोंवतणी एक तरेची जाळी तयार करता आनी चुडटाचो पाचवो भाग खाता. ताका लागून चुडटां सुकतात. हाचेर उपाय म्हूण चुडटां काडून उडोवचीं, उपरांत चुडटाचेर २०मिली. मोनोक्रोटोफोस हें वखद १०लिटर उदकांत घालून फवारो मारचो.

**हुंदीर** : हुंदीर माडांच्या बोंड्यांची नासधूस करता. देखून झींक फोस्फायट, अन्टीकोयेगुलंट, मुशमुश ह्या सारक्या वखदांचो वापर करून हुंदरांचो नायनाट करचो.

**वायटी** : वायटेचो उपद्रव चड करून ल्हान कवाथ्याक जाता. ती कवाथ्याचीं मुळां आनी कोंब खाता. वायटेखातीर कवाथ्याच्या मुळांत २०० ग्रॅम बीएच्.सी. घालची.

माडाक जायते तरेचे रोग लागतात. तातूंतले कांय म्हत्वाचे रोग आनी तांचेवयले उपाय अशेः-

**शिवडी कुसप** : ह्या रोगाची लागण लागल्यार शिवडी कुसून एकेतरेची घाण येता आनी शिवडी बागवता. तेखातीर शिवडी कापून माड निवळ करचो पडटा. उपरांत १% बोर्डो मलम तयार करून कापिल्ल्या भागाचेर पातळावचें. उपरांत कापिल्लो भाग धांपून घेवंचो पडटा. ह्या रोगाचेर उपाय करपाक चड वेळ लागल्यार माड मरपाची शक्यताय आसता. एका माडाक लागण जाल्यार ह्या रोगाचे जंतू वाऱ्यान हेर माडांचेर वचूं येतात. तेखातीर हेर निरोगी माडाचेर १% बोर्डो मिश्रणाचो फवारो मारचो.

**माड व्हांवप** : हो रोग कसो जाता ताचो अजून पत्तो लागूना. एके तरेचे बुरशेचो ह्या रोगाकडेन संबंद आसा अशें दिसून आयलां. ह्या रोगाची लागण जाल्यार खोडांतल्यान तांबशें उदक व्हांवपाक लागता. सुरवातीक रोगाची लागण खोडाच्या जमनीकडल्या भागाकडेन जाता. उपरांत सगळ्या खोडाचेर पातळटा. व्हांविल्ल्या उदकाचो रंग उपरांत काळो जाता. आनी उदक व्हांविल्लो भाग सुकता आनी कुसता. ह्या रोगाचेर उपाय म्हूण खोडाचो कुशिल्लो भाग तासून घेवन त्या भागार डांबर वा १% बोर्डो मलम लावचें. ह्या उपायान पुराय रोग बरो जायना पूण रोगाच्या प्रसाराक आळो बसता. हालीं केल्ल्या संशोधनावरवीं अशें सिध्द जालां की हो रोग जाल्ल्या माडाक ५ किलो कडूलिंबाची पेण दिवन माडाच्या मुळांतल्यान ०.२% कॅलीक्सीन वा बावीस्टीन हें वखद वर्सांतल्यान तीन फावट दिल्यार माड रोगापसून मुक्त जावं येता.

**बोंडे झडप** : बुरशेपसून जावपी रोगान बोंड्याच्या देंठाकडेन कुसता आनी उपरांत बोंडे झडून पडटात. ह्या रोगाखातीर माडाचेर १% बोर्डो मिश्रण मारचें.

**पान करपो** : ह्या रोगाची लागण जाल्यार सुरवातीक चुडटाचेर थिपके दिसतात आनी चुडटां हळदुवीं जातात. सुरवेक हे थिपके ल्हान आसतात. उपरांत मोठे जावन एकामेकांत भरसून वतात. ताका लागून पुराय चुडीत करपता. अशें जाल्यार चुडटाचो रोगट भाग कापून उडोवन ताचेर १% बोर्डो मिश्रणाचो फवारो मारचो.

**मर :** ह्या रोगाची लागण जाल्यार उपाय ना. पूण ह्या रोगाचो प्रसार टाळपाक उपाय आसा. अजून मेरेन हो रोग गोंयांत येवूंक ना. पूण केरळ राज्याच्या दक्षिणेकडल्या कांय जिल्ह्यांनी ह्या रोगाची लागण जावन कितलेशेच माड मेल्यात. ह्या रोगाचीं लक्षणां म्हळयार वयलीं चुडटां बागवतात. उपरांत चुडटां हळदुवीं जावन सुकतात. मुळां कुसतात आनी माड मरता. हो रोग पातळचो न्हय देखून ज्या माडाक हो रोग जाला आनी तो माड जर १० परस कमी नाल्ल दिता जाल्यार तो माड मारून, लासून उडोवंचो. हेर माडांक गिमा दिसांनी उदक दिवचें. भरपूर सेंद्रिय सारीं आनी एका माडाक एक किलो मॅगनेशियम सल्फेट दिवचें.

- विश्राम गांवकार

## माडगांवकर, गोविंद नारायण : (जल्म : सुमार १८१५; मरण : १५ मार्च १८६५).

नामनेचो गोंयकार निबंदकार. १९व्या शेंकड्यांत ताचो बापूय आपल्या कुटुंबाक घेवन मुंबय गेलो आनी थंय पुर्तुगाली पूड आनी हेर बारीक वखदी वस्तू विकपाचो धंदो करूंक लागलो. तेन्ना गोविंद णव वर्सांचो आशिल्लो. मुंबयच्या 'फ्री जनरल असेंब्ली' हे शाळेंत ताचें मराठी आनी इंग्लीश शिक्षण जालें. १८३३ वर्सा ताच्या बापायक मरण आयिल्ल्यान पुराय कुटुंबाची जापसालदारकी गोविंदाचेर पडली. तेखातीर शिक्षण अर्देंच सोडून ताणें हेच शाळेंत शिक्षकाची नोकरी धरली. हे शाळेंत ताणें सतत तीस वर्सां शिक्षक म्हणून काम केलें. १८६३ वर्सा तो हे शाळेंतल्यान निवृत्त जालो. एक बरो शिक्षक आनी शिक्षणतज्ञ म्हणून ताची नामना आशिल्ली. १८५७त मराठी पाठ्यपुस्तकां तयार करपाखातीर सरकारी शिक्षण खात्याचो मुखेली हॉवर्ड हाचे प्रेरणेन जी समिती स्थापन जाल्ली तातूंत माडगांवकाराचो आस्पाव आशिल्लो. ताणें दादोबा पांडुरंग तर्खडकर हाचे वांगडा पुस्तक तपासपाचें आनी नवे धडे बरोवपाचें काम केलें. माडगांवकर गद्य लेखक आशिल्लो. ताणें खूब लिखाण केलें. तातूंत वेव्हार-उपेगी, नीतिपर आनी शास्त्रीय ग्रंथांचो आस्पाव जाता. निबंद लेखक म्हणुनूय ताका खूब नामना मेळ्ळी.



ताणें आपल्या ५०वर्सां पिरायेच्या काळांत सुमार १८ पुस्तकां बरयल्लीं. 'मराठी ज्ञानप्रसारक' म्हयन्याळ्यांत ताणें बरेचशे लेख आनी निबंध बरयले. ताचीं कांय उंल्लेख करपासारकीं पुस्तकां आसात तीं अशीं - शुचिर्भूतपणा (१८४९), ऋणनिषेधक बोध (१८५०), हिंदू लोकांच्या रीति सुधारण्याविषयी बोध (१८५१), सृष्टींतील चमत्कार (१८५३), दारूपासून अनर्थ (१८५५), उद्‌भिज्जन्य पदार्थ (१८५६), लोखंडी सडकांचे चमत्कार (१९५८), व्यवहारोपयोगी नाटक (१८५९). हें मराठींतलें पयलें लिखित नाटक मानतात. मुंबईचे वर्णन (१८६३) हें ताच्या मुंबयचें वर्णन सांगपी पुस्तकाक खूब नामना मेळ्ळी. थळाचें वर्णन करपी अशें मराठींतलेंच न्हय तर भारतीय भासांतलें हें पयलें पुस्तक. मुंबयचो भूगोल, इतिहास, लोक, तांचो धर्म, रीतरिवाज, वेपार, वेव्हार, आचारविचार आनी चडकरून मुंबयची मोहमाया आनी बदमाशांचें जग हांचें बरें मजेशीर वर्णन ताणें ह्या ग्रंथांत कैलां. ताच्या मरण शताब्दीच्या निमतान १९६५त मुंबय मराठी ग्रंथ संग्रहालयान ह्या ग्रंथाची दुसरी आवृत्ती उजवाडा हाडली.

- कों. वि. सं. मं.

## माडगांवकार, रामचंद्र विष्णु : (जल्म : १८४३, व्हडलें गोंय; मरण : २८ एप्रिल १९१४).

नामनेचो साहित्यीक. १८६२ त एल्फिन्स्टन कॉलेजींतल्यान तो बी. ए. जालो. ग्रॅहॅम हे ते वेळचे नामनेचे ब्रिटीश कंपनींत ताणें सुरवेक सेल्समन म्हणून आनी फुडें वयल्या हुद्दयार नोकरी केली. १८९३ त कंपनीच्या वावराखातीर तो भायल्या देशांत गेलो आनी थंयच स्थायिक जालो. गोविंद नारायण माडगांवकर ह्या ताच्या साहित्त्यिक बापोलयाक लागून ताका साहित्याविशीं आवड निर्माण जाली. पूण ताका संत साहित्याची गोडी मात डॉ. भांडारकारान लायली.

सुरवेक ताणें संत साहित्याच्या अभ्यासाक सुरवात केली. तेखातीर ताका जीं जीं हातबरपां वा छापिल्ल्या ग्रंथांच्यो प्रती मेळ्ळयो ताणें ताचें समाधान जालें ना. वेगवेगळ्या पोथयांत पाठभेद इतले आशिल्ले की मूळ कवीच्या मनांतलो अर्थ कळप कठीण जालें. हाकालागून ताणें स्वता पाठशुध्द तयार करपाचें काम हातांत घेतलें. सुरवेक ताणें तुकारामाचो अभ्यास करून तुकारामाची गाथा, कठीण शब्दाच्या अर्थावांगडा १९८६त उजवाडाक हाडली. ताणें मोठ्या कश्टान तुकारामाचें चरित्र बरोवन तें स्वतंत्र छापलें. उपरांत चार वर्सां अभ्यास करून ताणें रामदासाचो समग्र ग्रंथ उजवाडाक हाडलो. ह्या दोन संतां उपरांत उरिल्लें पुराय आयुश्य ताणें ज्ञानेश्वरीच्या संशोधनाखातीर घालयलें. माडगांवकाराच्या काळांत ज्ञानेश्वरी बरोवन सयशें वर्सां जाल्लीं. तातूंत शेंकड्यांनी अपपाठ तयार जाल्ले, देखून एकनाथानय ती शुध्द केल्ली. हातूंतय अपपाठ रिगिल्ले. देखून माडगांवकारान ज्ञानेश्वरीची शुध्दप्रत तयार करपाखातीर पोथयो एकठांय केल्यो. पूण तातूंतय ताका जायते पर्याय दिसून आयले. देखून ताणें एकनाथाच्याय आदल्या म्हळयार ज्ञानेश्वरीच्या काळांतले पाठ सोदून काडपाचो वावर हातांत घेतलो. हें व्हड काम खुबूच किचकटीचें आशिल्लें आनी हे नदरेन काम करपी माडगांवकार हो पयलो मनीस. ह्या कामांत ताका खूब यश मेळ्ळें. १९०७ त ताणें

ज्ञानेश्वरीची संपादित आवृत्ती उजवाडाक हाडली. आपले पिरायेच्या निमाणेमेरेन ताचें दुसरें नवे प्रतीचें काम चालूच आशिल्लें. तो ज्ञानेश्वरीक ज्ञानदेवी म्हण्टालो. ज्ञानेश्वरीच्या संशोधनमळार माडगांवकराचो वावर खूब मोलादीक आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**माडगूळकर, गजानन दिगंबर :** (जल्मः १ ऑक्टोबर १९१९, शेटेफळ; मरण : १४ डिसेंबर १९७७, पुणें).

नामनेचो मराठी कवी आनी पटकथा संवाद लेखक. ताणें आपलें शिक्षण आटपाडी, कुंडल आनी औंध हांगा घेतलें. ल्हानपणासावन ताका बरोवपाची, नकलो करपाची आवड आशिल्ली. 'हंस पिक्चर्स' हे चित्रसंस्थेच्या मा. विनायक हाणें दिग्दर्शन केल्ल्या ब्रह्मचारी (१९३८) ह्या नामनेच्या चित्रपटांत ल्हानशी भूमिका करून ताणें आपले चित्रपटमळावयले कारकिर्दीक सुरवात केली. नामनेचो साहित्यिक वि. स. खांडेकर हाचो सहाय्यक म्हूण ताणें कांय तेप काम केलें. तेन्ना ताच्या



संग्रहांतलीं पुस्तकां वाचून ताका बरोवपाची उर्बा मेळ्ळी. ह्याच काळांत ताणें भरपूर प्रमाणांत काव्यबरप केलें. फुडें नवयुग चित्रपट लि. हे चित्रसंस्थेंत के. नारायण काळे हाच्या हाताखाल सहाय्यक दिग्दर्शक म्हूण ताणें कांय तेप काम केलें. तेन्ना चित्रकथेची चित्रणप्रत कशी तयार करतात, हें ताका कळ्ळें. फुडें नवहंस पिक्चर्सच्या भक्त दामाजी (१९४२), पहिला पाळणा (१९४२) ह्या चित्रपटांचीं पदां बरोवपाची संद ताका मेळ्ळी. तशेंच लोकशाहीर रामजोशी (१९४७) ह्या सुमाराभायर नामना मेळिल्ल्या चित्रपटाचीं गितां, कथा-संवाद ताणेंच बरयल्ले. तशेंच तातुंतली एक भूमिकाय केल्ली. हे उपरांत कवी आनी लेखक म्हूण ताका नांव मेळ्ळें. गीतकार, कथासंवादकार आनी अभिनेता म्हूण ताणें देडशांपरस चड मराठी आनी कथा संवादकार म्हूण पंदरा हिंदी चित्रपटांखातीर काम केलें. ताणें मराठी चित्रपटाखातीर बरयल्लीं पदां चैत्रबेन (१९६२) ह्या नांवान संग्रहीत केल्यांत. ताणें बरयल्ल्यो मराठी चित्रकथा (तीन चित्रकथा, १९६३) ह्या नांवान पुस्तकरुपान उजवाडाक आयल्यात. 'युध्दाच्या सावल्या' ह्या नांवाचें एक नाटकय ताणें बरयलां. ताणें बरयल्लीं कांय उल्लेख करपासारकीं पुस्तकां अशींः जोगिया १९५६, चार संगीतिका (१९५६), **काव्यकथा** (१९६२), गीतरामायण (१९५७), गीत गोपाल (१९६७), गीत सौभद्र (१९६८). **कथासंग्रह**-कृष्णाची करंगळी (१९६२), तुपाचा नंदादीप (१९६६), चंदनी उदबत्ती (१९६७). **कादंबरी**-आकाशाची फळे (१९६०). आपजीण-मंतरलेले दिवस (१९६२) आनी वाटेवरल्या सावल्या (१९८१). ताणें बरयल्ले नामनेचे **चित्रपट** अशे-पाऊल (पटकथा, संवाद, पदां-१९५०), बाळा जो जो रे (१९५१), लाखाची गोष्ट (१९५२), पेडगावचे शहाणे (१९५२), ऊन पाऊस (१९५४), मी तुळस तुझ्या अंगणी (१९५५), जगाच्या पाठीवर (१९६०), संथ वाहते कृष्णामाई (१९६७). तशेंच तुफान और दिया (१९५६), दो आँखे बारह हाथ (१९५७), गूँज उठी शहनाई (१९५९) हे ताणें बरयल्ले उल्लेख करपासारके चित्रपट. ताणें बरयल्ल्या आनी सुधीर फडकेन गायिल्ल्या गीत रामायणाक सुमाराभायली नामना मेळ्ळी. ताका लागून लोकांनी ताका 'महाराष्ट्र वाल्मिकी' ही पदवी दिली.

माडगूळकराच्या जोगिया, मंतरलेले दिवस, चैत्रबेन आदी जायत्या पुस्तकांक महाराष्ट्र शासनाचीं इनामां मेळ्ळयांत. भारत सरकारान पद्मश्री दिवन (१९६९) ताचो भोवमान केलो. १९७३वर्सा यवतमाळ हांगा भरिल्ल्या मराठी साहित्यसंमेलनाचें अध्यक्षपद ताका दिवन ताचे साहित्यसेवेचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**माडगूळकर, व्यंकटेश दिगंबर :** (जल्म : ६ जुलय १९२७, माडगूळ-सांगली).

एक व्हड मराठी कथाकार आनी कादंबरीकार. ताणें शालेय शिक्षण व्हडलेंशें घेतलें ना. पूण साहित्याचो खोलायेन अभ्यास केलो. इंग्लीश शिकून अस्तंत्या साहित्याचें वाचनय केलें. नामनेचो साहित्यिक ग. दि. माडगूळकर हाचो तो धाकटो भाव.

सुरवेक ताणें कांय काळ पत्रकारी केली. उपरांत १९५० च्या सुमाराक तो मुंबय आयलो आनी मराठी चित्रसृश्टींत पटकथांचें बरप करूंक लागलो. तेन्नाच ताचो माणदेशी माणसे (१९४९) हो कथासंग्रह उजवाडाक आयलो. उपरांत ताचे, गांवाकडच्या गोष्टी (१९५१), हस्ताचा पाऊस (१९५३), सीताराम एकनाथ (१९५१), काळी आई (१९५४), जांभळाचे दिवस (१९५७) हे कथासंग्रह उजवाडाक आयले. ताणें कादंबरीच्या मळारय उल्लेख करपासारकें काम केलां. ताच्यो कांय नामनेच्यो कादंबऱ्यो अशो आसातः बनगरवाडी (१९५५), वावटळ (१९६४), पुढचं पाऊल (१९५०), कोवळे दिवस (१९७९), करुणाष्टक (१९८२) आनी सत्तांतर (१९८२). ताणें बरयल्लीं नाटकां अशींः तू वेडा कुंभार, सती, पति गेले ग काठेवाडी. हाचेभायर ताणें कुनाचा कुनाला मेळ न्हाई आनी बिनबियांचे झाड हीं कांय लोकनाट्यांय बरयलीं. ताणें बरयल्ल्या चित्रपटांत पुढचं पाऊल (कथा- १९५०), वंशाचा दिवा (कथा-१९५०), जशास तसे (कथा-१९५१), सांगत्ये ऐका (पटकथा, संवाद-१९५९), रंगपंचमी (पटकथा, संवाद-१९६१) हांचो आस्पाव जाता.

हांचेभायर ताणें नागझिरा (१९७९), पांढरी मेंढरे, हिरवी कुरणे (१९७९), पांढऱ्यावर काळे (१९७१), रानमेवा (१९७८), चित्रे आणि चरित्रे (१९८३) हीं पुस्तकां बरोवन ललित गद्य प्रकारांत मोलादीक वावर केलो.

ताच्या कथांचे इंग्लीश, डॅनिश, जर्मन, जपानी आनी रशियन अशा वेगवेगळ्या संवसारीक भासांनी अणकार जाल्यात.

रानमळांनी भोंवडी करपी सैममोगी, शिकारी आनी चित्रकार म्हणून ताची नामना आसा.

१९५५-८५ ह्या काळांत तो आकाशवाणीचेर नोकरी करतालो.

ताच्या जायत्या पुस्तकांक महाराष्ट्र राज्य पुरस्कार मेळ्ळयात. हातूंत गावाकडील गोष्टी, काळी आई हे कथासंग्रह, बनगरवाडी ही कादंबरी आनी सती ही नाट्यकृती हांचो आस्पाव जाता. ताचे सत्तांतर हे कादंबरीक १९८३ चें साहित्य अकादेमीचें इनाम फाव जालें. १९८३ वर्सा आंबेजोगाई हांगा भरिल्ल्या मराठी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**माडिया :** गोंड लोकांची एक शाखा. माडिया लोकांचे दोंगरी माडिया आनी बिसनशिंगी माडिया अशे दोन भेद आसात. मध्य प्रदेशांतल्या बस्तर जिल्ह्यांत माडिया लोकांची वसती चड आसा. बस्तर जिल्ह्यांतल्या अबुझमाड पर्वताचेर दोंगरी माडिया आनी इंद्रावती न्हंयेचे दक्षिणेकडल्या सखल प्रदेशांत बिसनशिंगी माडिया रावतात. महाराष्ट्रांतल्या चंद्रपूर जिल्ह्यांतूय माडिया लोकांची थोडी वसती आसा.

दोंगरी माडियांचीं चडशीं खेडीं अंतगढ प्रदेशांत आसात. इंद्रावतीच्या देगणांतल्या दोंगरी माडियांचेर बिसनशिंगी माडियांचो खूब प्रभाव आसा.

माडिया लोक जी भास उलयतात, तिका माडिया अशेंच नांव आसा.

बिसनशिंगी माडिया लोक शरीरान बळिश्ट आनी वेवस्थित बांध्याचे आसतात. नाक, दोळे बरे आसून तांचे केंस भुरे आसतात. दादले माथ्यावयले फुडले वटेन दोन इंच केंस कापतात आनी बाकीचे वाडयतात. फाटले वटेन ते केंसांक गांठ मारतात. बायलो आंबाडो घालतात. दोंगरी माडिया रंगान काळे, मध्यम उंचायेचे आनी चेपट्या नाकाचे आसतात. तांचे ओंठ दाट आनी केंस कुरळे आसतात.

माडिया दादले कमरेक आनी माथ्याक ल्हानशें वस्त्र गुठलायतात. तशेंच कमरेक एक लाकडी दांतोणी आनी तंबाकूची कुपी खोंयतात. हातांत एकेक कडें आनी गळयांत मणयांच्यो माळो घालतात. बायलोय कमरेक एक ल्हानशें वस्त्र गुठलायतात आनी भायर चार-चौगांत वतना पदर घेतात, माथ्यार त्यो पितुळचो वाटकुळो पटो घालतात. गळयांत रंगीत कंवचेच्या मणयांच्यो माळो, लोखणी आनी पितुळच्यो सरयो घालतात. दंडांत वाकी, हातांत कथलाचीं कांकणां, कानांतलीं, नाकांत चमकी आनी पांयांत वाळे हे अलंकार घालतात. तशेंच केंसांनी पिनो, दांतोण्यो लायतात.

शीत, कंदमुळां, फळां, मांस आनी नुस्तें असो तांचो आहार आसता. तांदूळ आनी जोंधळे हांचेपसून काडिल्लो सोरो तांकां चड आवडटा. सादारणपणान, ते जेवतकच सोरो पितात. तशेंच जल्म, लग्न, मरण, सण, परब ह्या प्रसंगांचेर ते खूब सोरो पितात.

'अंगा-पेन' ही माडिया लोकांची कुलदेवता आसा. हे लोक धर्तरीमाता, पेन आनी ग्रामदेवता हांकां भजतात. भीमल ही तांची पावसाची देवता आसून, एक लाकडी खांबो वा उबो फातर हें भीमल देवतेचें प्रतीक आसता.

भुरगीं वयांत येतकच लग्नां जातात. आवय-बापूय लग्न थरयतात. आते-मामे भावंडांत लग्नां जातात. चल्यान आनी चलयेन आपणेच लग्न थरयल्यार तशें तीं आपल्या आवय-बापायक सांगतात. उपरांत व्हंकलेचो बापूय सोऱ्याचें एक मडकें आनी पायलीभर तांदूळ घेवन न्हवऱ्यागेर वता आनी चलयेक मागणी घालता. चलयेखातीर देज दिवंचें पडटा. लग्नाचो म्हूर्त पुरोयत थारायता. म्हुर्ताच्या दिसा न्हवऱ्याचे लोक व्हंकलेगेर वतात आनी देज दितकच लग्नाच्या विधींक सुरवात जाता.

न्हवरो-व्हंकल एकमेकांक मुदयो घालतात. उपरांत सगळीं न्हवऱ्यागेर येतात. थंय येतकच दादले-बायलो धोलाचे साथीचेर नाच करतात. हो नाच रातभर चलता. न्हवरो-व्हंकललेगीत ह्या नाचांत वांटो घेतात. उपरांत तांकां तांच्या नव्या घरांत व्हरतात. इतलें जातकच लग्न सुवाळो सोंपता.

बायल बाळंत जातकच, भुरग्याची वार घराफाटल्यान पुरतात आनी ताचेर एक लाकडाचो ओंडको दवरतात. बाळंतिणीखातीर एक वेगळी खोंप बांदतात. बिसनशिंगी माडिया बायल त्या वार पुरिल्ल्या फोंडाचेर बसून न्हाता. कांय सप्तकां उपरांत भुरग्याचो बापूय शेजाऱ्यांक जेवण घालता. त्याच दिसा भुरग्याक नांव दवरतात आनी आवय खोंपींतल्यान आपल्या घरा रावपाक येता.

दोंगरी माडिया लोकांभितर, सुयेराचे आठ दीस बापायन शेतांतलें वा हेर कसलेंच काम करूंक फावना. त्या दिसांनी तो घरांत न्हिदनासतना भौशिक शयनघरांत न्हिदता. तशेंच ह्या दिसांनी ताका स्वताच्या घरांत वचपाक बंदी आशिल्ल्यान, लागसारूच एक ल्हान खोंप बांदून रावता. सुयेर सोंपतकच, न्हावन बायल आपल्या भुरग्याक घेवन घरांत येता. भुरग्याच्या आंगार आज्या-पणज्याची कसलीय कुरू दिसल्यार त्या भुरग्याक ताचें नांव दवरतात. कसलीच कुरू नासल्यार भुरग्याक दोन-तीन वर्सांनी नांव दवरतात. भुरग्याचे हेर कांय संस्कार करीनात.

हे लोक मडें जाळटात. गुरवार बायल आनी बाळंतीण तशेंच साथीच्या रोगान मेल्ल्या लोकांक पुरतात. बिसनशिंग माडिया लोकांत, मनीस मरत जाल्यार धोल वाजोवन सगळ्या लोकांक कळयतात. हनगुंडा नांवाचो पुरोयत निमणे संस्कार करता. मेल्ल्या मनशाची बायल ताका न्हाण घालता. उपरांत मसंडेंत व्हरतकच मेवणो अग्नी दिता. दुसऱ्या दिसा मेल्ल्या मनशाच्या नांवान गाय मारतात.

दोंगरी माडिया लोकांभितर, दोन वा तीन दिसांनी मरण करतात. गांवचो मुखेली, प्रतिश्ठीत मनीस आनी तांच्यो बायलो हांकां जाळटात आनी हेर लोकांक पुरतात. हे लोक चार दीस सुतक पाळटात.

दंतेवाडा हांगा दंतेश्वरीचें देवूळ आसा. हे देवतेचे वर्सुकी जात्रेक सगळे माडिया लोक जमतात. दसऱ्याच्या वेळार जगदलपूर हांगा पंदरा दीस जात्रा जाता. वर्सभर ह्या लोकांच्यो परबो आसतात. वर्साचे सुरवातेक भीमल देवतेचो उत्सव करतात. उपरांत मोह रुखाचो सुवाळो मनयतात. ह्या रुखाची पुजा केलेबगर ताचीं फुलां वा त्या फुलांसावन सोरोय काडपाक मेळना. फाल्गुन म्हयन्यांत भौशिक नुस्तें मारपाचो आनी आंब्याच्या झाडाचो सुवाळो मनयतात. चैत्रांत भौशिक शिकारेचो आनी उपरांत पावसाळ्यांत बीं पेरपाचो अशे दोन सुवाळे करतात. पिकां तयार जातकच नवें धान्य खावपाचे खूब उत्सव आसात. कड्डुण, दूदी, तवशीं, तांदूळ हांचे सुवाळे केल्याबगर खावपाक मेळनात. वर्साच्या शेवटाक तण वा कोंडे कापपाचो सुवाळो जाता आनी सगळे लोक शेताखातीर जमीन तयार करपाच्या कामाक लागतात. गांवचो पुरोयत, गांवच्या मुखेल्याच्या सल्ल्याप्रमाण ह्या उत्सवांखातीर दीस थरयता. उत्सवावेळार देवतेक कोंबो बळी दितात.

नाच हो माडियांचें करमणुकीचें साधन आसा. तशेंच तांकां, कोंब्यांच्यो झुजी लावपाक खूब आवडटा.

शेती हो माडियांचो मुखेल वेवसाय आसा. भात, बाजरी, तवशीं, वाटाणे हीं पिकां ते घेतात. तशेंच रानांतलीं कंदमुळां, फळां एकठांय करतात आनी कुकडां, बोकडां आनी दुकरां पोसतात. नुस्तें मारप आनी शिकार करप हे तांचे आवडीचे उद्देग आसात. स्वताच्या उपेगाखातीर ते पानांचे वा कोंड्यांचे पांटले आनी शेंदऱ्यो विणटात.

माडियांच्या दर एक खेड्यांत कांय अधिकारी आसतात. गांवाचो एक मुखेली आसता. ताका 'पेडा' अशें म्हण्टात. ताच्या हाताखाल कोटवार नांवाचो एक अधिकारी आसता. कांय खेड्यांचो एक परगणा जाता. ताच्या मुखेल्याक परगणा मंझी अशें म्हण्टात. दर एक गांवांत एक पंचायत आसता आनी गांवचो मुखेली हे पंचायतीचो अध्यक्ष आसता. दर एक परगण्याची एक परगणापंचायत आसता. जातींतलीं झगडीं, वाद ही पंचायत सोडयता. भूम-गायता वा पर्म हो गांवचो धर्मीक अधिकारी धर्माच्या सगळ्या चाली-रितींचेर नदर दवरता. तशेंच तो ग्रामदेवतेची पुजा करता. पेनवड्डई वा वड्डई हो कुळाचो पुरोयत आसता.

माडिया लोकांच्या घरा भोंवतणी कोंड्यांची गच्च वंय आसता. रानवटी जनावरांपसून राखण जावंची म्हूण ही येवजण आसता. एका गांवांत स तीं बारा घरां आसतात आनी तीं चडकरून एकाच कुटुंबाचीं आसतात. हीं घरां तण, माती आनी कोंड्यांचीं आसतात. घराभोंवतणी ल्हानशें पोरसूं आनी कांयकडे व्हड शेत आसता. घरांत चडकरून तीन कुडी आसतात. दर एक कूड म्हळयार स्वतंत्र घर आसता. रांदची कूड, न्हिदपाची कूड आनी कोठी अशो त्यो कूडी वापरतात. घरालागसार दुकरांखातीर आनी गोरवांखातीर गोठे आसतात. सादारणपणान दर एक गांवांत गांवच्या मुखेल्याच्या घरालागसार एक व्हड घर आसता. गांवांत येवपी सोयरो त्या घरांत रावता. तरनाटे भुरगे त्या घराचो भौशिक न्हिदपाघर म्हूण उपेग करतात. चलयांखातीर वेगळें न्हिदपाघर आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**माडी :** (मराठीः पोफळ, सुपारी; हिंदीः सुपारी छाली; गुजरातीः सोपारी; कन्नड : अडिके; संस्कृत : पूगीफल; इंग्लीश : Arecanut Palm; लॅटीन : Areca Catechu; कूळ : पामेसी).

माडी ही माडाच्या कुळांतली वनस्पत. Areca Catechu हें माडयेचें शास्त्रीय नांव. खोडाचो ल्हान आकार (सु. ३५ते४०सेंमी.) सोडल्यार बाकीचीं सगळीं लक्षणां माडासारकींच आसतात. माडयेच्या फळाक सुपारी अशें म्हण्टात.

महाभारतांत सुपारेचो उल्लेख आसा. हाचेवयल्यान भारत देशांत खूब पयलींसावन माडी रोयताले म्हणपाचें कळटा. पयलींचे राजे महाराजे खावंचे पानावांगडा (विडो) सुपारी खाताले. आयजय ही पद्दत चालू आसा.

माडयेच्या उगमस्थानाविशीं शास्त्रज्ञांचीं मतां वेगवेगळीं आसात. पूण भारत, चीन, मलाया ह्या देशांनी माडयेचो उगम जाला म्हणपाचें खूबशा शास्त्रज्ञांचें मत आसा.

माडी हें उश्ण कटिबंधांतलें पीक. भरपूर पावस आनी आर्द्रता आशिल्ल्या भागांनी ह्या पिकाची वाड बरी जाता. पूण उदकाची बाराय म्हयने सोय आसल्यार कमी पावसाच्या प्रदेशांनी ह्या पिकाची लागवड करूं येता. तशेंच दर्यादिगेसावन ३,००० फुटांमेरेन ह्या पिकाची वाड बरी जाता.

माडयेचे लागवडीखातीर बरी निचऱ्याची जमीन निवडटात. चिऱ्याची जमीन तशेंच दर्यादिगेच्या गाळाच्या जमनींत ह्या पिकाची वाड बरी जाता.

सुपारेच्यो गांवठी तशेंच सुदारीत जाती वापरतात. विठ्ठल हांगा आशिल्ल्या सुपारी संशोधन केंद्रान मंगला नांवाची सुपारेची जात विकसीत केल्या. हे जातीचे एके माडयेपसून वर्साक १०कि. ओल्यो सुपाऱ्यो मेळटात. ही माडी गांवठी माडयेभशेन चड ऊंच वाडना. चवथ्या वर्सासावन हे

माडयेचें उत्पन्न मेळपाक लागता. तेभायर सुमंगला, श्रीवर्धन, सी सी-१, मोहितनगर ह्या सारक्या सुदारीत जातींचो वापर शेतकार करपाक लागल्यात.

माडयेची लागवड सुपारेपसून करतात. सुपारेपसून तयार केल्ले रोंपे लावपाखातीर वापरतना कांय म्हत्वाच्यो गजाली मतींत दवरतात त्यो अशो-

१) रोपयो १२-१८ म्हयन्यांच्यो वापरतात.

२) बारा म्हयने पिरायेच्या रोंप्यांक कमीच कमी पांच पानां आसात म्हणपाची खात्री करून घेतात.

३) निरोगी, जोमदार आनी खोड जाड आशिल्लीं रोंपां निवडटात.

माडयेची लागवड करपाखातीर २.७ x २.७ मी. अंतराचेर ६० x ६० x ६० सेंमी. लांब, रूंद, खोल ह्या आकाराचीं नेमां मारतात. दर एका



१ - माडयो; २ -सुपारी

नेमांत अर्द किलो मसुरी फोस्फेट, अर्द किलो स्टेरामील, अर्द किलो कडूनिंबाची पेण आनी सावळ घालून नेम ४०सेंमी. भरून घेतात. जून, जुलय, एप्रिल आनी मे हे चड पावसाचे आनी गरमेचे म्हयने सोडल्यार माडयेची लागवड हेर खंयच्याय म्हयन्यांनी करतात. नेम भरून जातकच नेमांमदीं माडी लावन माती पांयांनी घट्ट दाबून घेतात. उपरांत मुळांत पालो घालतात. पावसाळयांत माडयेच्या मुळांत उदक सांठून शिवडी कुसपाची शक्यताय आसता. देखून नेमांनी उदक आसल्यार भायर काडटात. माडयांक अर्दवट सावळेची गरज आसता. तेखातीर माडयांमदीं मिश्रपीक घेतात वा हेर झाडां रोवन सावळेची तजवीज करतात.

माडयांपसून चड उत्पन्न मेळोवपाखातीर माडयांक भरपूर शेण तशेंच सावळ घालतात. तशेंच पांच वर्सां आनी ताचेवयले पिरायेचे माडयेक १००ग्रॅम नत्र, ४०ग्रॅम फोस्फरस आनी १४० ग्रॅम. पोटेशाची गरज आसता. हीं अन्नद्रव्यां सेंद्रीय साऱ्याच्या रुपान चड करून दितात.

सारें दिवपाखातीर माडयेक खोडापासून $^1/_2$ मिटर अंतराचेर ३०सेंमी. रूंद आनी २०सेंमी. खोल आळें काडून ह्या चरांत पयलीं शेणखत आनी सावळ घालतात. उपरांत सारें घालून आळें मातयेन बंद करतात.

पावस सोंपतकच माडयांक उदक दितात. थंडेतेंपार ६दिसांनी एक फावट जाल्यार गरमे दिसांनी ३ दिसांनी एक फावट उदक दितात. उदक आळयांनी दितात. पूण हालीं तेंपार बरेच शेतकार ठीबक वा फवारो पद्दतीन उदक दितात. उदक दिवपाचें प्रमाण दोन पावसाळयांमदलें अंतर आनी जमनीच्या प्रकाराचेर आदारून आसता.

माडयांमदीं केळीं, मिरयां, जायफळ, लवंग, वेलची, तिखी ह्यासारकीं पिकां मिश्रपिकां म्हण घेतात. मिश्रपिकां घेतिल्ल्यान माडयांच्या उत्पन्नाचेर कसलोच वायट परिणाम जायना. केरळ, राज्यांत सुपारेच्या बागांनी कोको, आलें, सुरींग, फारींग ह्यासारकीं मिश्रपिकां लायतात. सुपारेच्या झाडापसून ४-६ वर्सांनी उत्पन्न मेळपाक लागता.

माडयेक किडीपसून व्हडलोसो उपद्रव जायना. पूण रोगापसून माडयेचो सांबाळ करचो पडटा. माडयेचें नुकसान करपी कांय म्हत्वाचे रोग आसात ते अशे-

**१) कोळे रोग :** ह्या रोगाची लागण पावसा दिसांनी जाता. बुरशेपसून जावपी ह्या रोगाची लागण जाल्यार बेडे झडटात. ह्या रोगाआड १% बोर्डो मिश्रणाचो फवारो मारतात. पयलो फवारो जुनाच्या पयल्या सप्तकांत आनी मागीर ३० दिसांच्या अंतरान आनीक दोन फवारे मारतात. पावसान वखद धुवन वचूं नये म्हण एक लिटर वखदाच्या मिश्रणाफाटल्यान १मिलि. सॅन्डोव्हीट हो चिकट द्रव घालतात.

**२) अळमी रोग :** उदकाचो बरो निचरो जायना अशा जाग्यांनी हो रोग दिसून येता. ह्या रोगाची लागण जाल्यार माडयेचीं शेंड्याकडलीं पानां हळदुवीं जावपाक लागतात. उपरांत शेंडो सुकता आनी झाड मरता. ह्या रोगाची लागण जाल्यार २% बोर्डो मिश्रणाचें १लिटर द्रावण माडयेच्या खोडाकडेन ओततात. दर म्हयन्याक एक फावट अशें चार फावट हें द्रावण ओततात. ह्या रोगाची लागण जावन मेल्ल्यो माडयो मुळासकट हुमटावन लासून उडयतात.

**३) बाड रोग :** ह्या रोगाची लागण जाल्यार माडयेक बारीक पानां येवपाक लागतात. कांय तेंपान बेडे येवपाचेंय बंद जाता. कांयच उपाय घेना जाल्यार माडी मरता. पावसादिसांनी फावो त्या खोलायेचे चर मारून उदकाचो निचरो बरो जाता म्हणपाची खात्री करून घेतात.

**४) खोड करपो :** हो वताकलागून जावपी रोग. माडयेक जर दक्षिणेवटेन वत लागता जाल्यार माडयेचे खोड करपता आनी माडी मरपाक शकता. हें वत लागूं नये म्हण दक्षिणेवटेन सावळेचीं झाडां लायतात ना जाल्यार माडयेचें खोड चुडटांनी धांपतात.

मे-जून ह्या म्हयन्यांनी माडी फुलता. सप्टेंबर-डिसेंबर ह्या म्हयन्यांनी सुपारी तयार जाता. बेडे तांबशा रंगाचे जातकच काडटात. माडयेचे गांवठी जातीपसून वर्साक सरासरी एक किलो सुके सुपारेचें उत्पन्न मेळटा. जाल्यार सुदारीत जातीचे एके माडयेपसून वर्साक ३-५ किलो सुकी सुपारी मेळटा. बेडे काडटकच ते १५-२० दीस वताक सुकयतात आनी उपरांत सोलतात. ते उपरांत सुपाऱ्यो वेंचून तांच्यो तरेकवार ग्रेडी करून त्यो बाजारांत विकतात.

गोंयांत सुमार १,७०० हेक्टर जमीन सुपारेचे लागवडीखाल आसा. गोंयाभायर महाराष्ट्र, कर्नाटक, केरळ, आसाम तशेंच हेर पुर्वोत्तर राज्यांनी माडयेची लागवड करतात.

सुपारी खावपाखातीर वापरतात. तशेंच गोरवांच्या वखदांनी सुपारेचो बऱ्याच प्रमाणांत वापर जाता. रंग तायर करपांतूय कांय प्रमाणांत सुपारेचो वापर करतात. सोल्लांचो उपेग जळपाक तशेंच अळमीं तयार करपाखातीर करतात. घट्ट बोर्ड तयार करपाकूय सोल्लांचो वापर करतात. हिंदू धर्मांत कसलेंय देवकृत्य करतना सुपारेचो उपेग विडो दवरपाखातीर करतात.

- विश्राम य. गांवकार

**माणिक :** एक खनिज. कुरुविंदाचो तांबड्या रंगाचो प्रकार. हें स्फटिक षटकोनी आनी घट्ट आसता. कंवचेभशेन चकचकता पूण हिऱ्याभशेन चमचमना. हाचो रंग मध्यम ते गडद तांबडो वा जांभळी, नारिंगी रंगाची मात्शी सया आशिल्लो तांबडो आसता. तांबडो रंग चडसो हातुंतल्या १% क्रोमिक ऑक्साइडाक लागून आयिल्लो आसता. हातूंत तांबडी वात पेटिल्ली आसता, असो पयलीं समज आशिल्लो. उच्च तापमानाचेर तापयल्यार हाचो रंग पाचवो जाता पूण न्हिवतकच हेर खनिजांभशेन मूळ रंग बदलना, हें माणकाचें खाशेलपण आसा.

माणिक हें सिलिकेचें प्रमाण कमी आशिल्ल्या अग्निज खडकांनी आनी रुपांतरीत स्फटिकी संगमरवरांत मेळटा. माणकाचे पारदर्शक आनी व्हड अशे स्फटिक खूब कमी प्रमाणांत मेळटात. त्यामानान ताचे ल्हान खडे चड मेळटात. असले ल्हान खडे एकठांय करून व्हड माणिक करतात. माणकाच्या स्फटिकांत रुटाइलाचे बारीक स्फटिक वा नळयेच्या आकाराच्यो बारीक पोकळयो आसूंक शकतात. ह्या पोकळयांचो आकार एकाच प्रमाणांत आसता. स्फटिक रेशमी धाग्याभशेन नितळ दिसता. ह्या पोकळयांची वा स्फटिकांची मांडणी नेमान जाल्ली आसून, असो स्फटिक घुमटा आकारांत कापिल्लो आसल्यार तातूंत ताऱ्याभशेन आकृती दिसता.

माणकाचे पद्मराग आनी नीलगंधी हे मुखेल भेद आसात. लोहितक, माणिक्य, सौगंधिक, कुंभस्थल, मांसखंड, सूर्यकांतमणी, अग्निमणी अशींय माणकांचीं नांवां आसात. ल्हान माणकांक लालडी, माणकी, चुनलालडी अशीं नांवां आसात. श्रीमद्‌भगवद्‌गीतेंत पद्मराग (माणिक) हें सगळयांत श्रेश्ठ रत्न सांगलां. आयजलेगीत हाका रत्नांचो राजा मानतात. बृहत्संहिता, शुक्रनीती ह्या ग्रंथांनी माणकाचो उल्लेख आसून मानसोल्लास ह्या ग्रंथांत माणकाचे गुणधर्म वर्णिल्यात.

माणिक हें नवरत्नांतलें एक रत्न आसून सुर्याचे अनुकूलतेखातीर हें रत्न वापरतात. नवग्रहांचे मुदयेंत हें रत्न मदीं आसता. हें रत्न आंगार धारण केल्ल्यान कसलेंच अरिश्ट येना, असो कांयकडेन आयज लेगीत समज आसा. अरेबियन नाइट्स, मार्को पोलो हाच्या भोंवडेवर्णनांत माणकाचो उल्लेख आयला. जुलय म्हयन्याचें माणिक हें शुभ रत्न. तशेंच लग्नाच्या चाळिसाव्या वर्धापनदिसाचें प्रतीक मानतात. प्लिनी हाणें ताका 'कार्बंक्युलस' आनी थीओफ्रॅस्टस हाणें 'अँथ्रॅक्स' अशें म्हणिल्लें. ह्या दोनूय संज्ञांचो अर्थ पेट्टो कोळसो असो आसा. उपरांत तांबडो अर्थाच्या लॅटीन शब्दावयल्यान ताका 'रूबी' हें इंग्लीश नांव पडलें.

माणकाचो मुखेल उपेग रत्न म्हूण अलंकारांनी करतात. माणिक हें सगळ्या रत्नांभितर मोलादीक रत्न आसून आकाराप्रमाण ताचें मोल वाडटा. पारव्याच्या रगताभशेन रंग आशिल्लें पारदर्शक माणिक सगळयांत उत्कृश्ट आनी लोकप्रिय आसून एकाच आकाराच्या आनी गुणवत्तेच्या हिऱ्यापरस अशा माणकांचें मोल कितलेशेच पटींनी चड आसता. तारांकित माणिक इतलें मोलादीक नासता पूण ताकाय मागणी खूब आसता. माणकांतल्या क्रोमियमाकलागून मेसर आनी लेसर ह्या प्रयुक्तींनीय ताचो वापर जाता. माणकाचे बारीक खडे घड्याळां, शास्त्रीय आनी विमानांतलीं उपकरणां, मापकां हातूंत वापरतात.

कृत्रिम रीतीनूय माणिक तयार करतात. अशे तरेन केल्लें माणिकूय सैमीक माणकाभशेनूच दिसता. पूण कृत्रिम माणिक दोन रंगी आसना, म्हळयार दोन विंगड विंगड दिकांनी पळेल्यार तें दोन वेगवेगळया रंगांचें दिसना. तेखातीर जाणकार दोगांयमदलो भेद वळखूंक शकता. अमेरिका, स्वीडन, ब्रिटन, फ्रांस, जर्मनी ह्या देशांनी कृत्रिम माणिक तयार करतात. तारांकित माणकांय आतां कृत्रिम रितीन तयार करपाक लागल्यांत.

माणिक चडकरून ब्रह्मदेश, थायलंड, श्रीलंका हांगा मेळटा. हातुंतलें ब्रह्मदेशांतलें माणिक हें चड उत्कृश्ट आसून थायलंडांत मेळपी माणिक तेपरसूय चड गडद रंगाचें आसता. श्रीलंकेंतलें माणिक मात्शें लेव रंगाचें

आसता. तशेंच अमेरिका (उ. कॅरोलायना), ऑस्ट्रेलिया, अफगाणिस्तान, कोलंबिया, मॅलॅगॅसी, मालावी, -होडेशिया, झँबिया हांगाय कमी प्रतीचे माणिक मेळटात. भारतांत कर्नाटक, तमिळनाडू, राजस्थान, काश्मीर ह्या वाठारांनीय कमी प्रमाणांत माणिक मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** रत्न.

## माणिकदास :

एक हिंदी संतकवी. हो अहमदाबादचो रावपी आसून विद्वान आशिल्लो. साधू जातकच तो उज्जैनी हांगा रावपाक लागलो. ताणें संतोषसुरतरू, सत्संग-प्रभाव, रामरसायन, कवित्त प्रबंध, आत्मविचार हे पांच ग्रंथ बरयल्यात.

संतोषसुरतरू हो ग्रंथ नीतीकाव्याचेर बरयला. रंगीलदास व्यास हाणें खंयच्यातरी बालमुकुंदाच्या अध्यापनाखातीर ह्याच काव्याचो उपेग केल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## माणिकप्रभू :

(जल्मः इ.स. १८१७, लाडवंती- कर्नाटक; मरणः इ.स. १८६५).

एक दत्तसंप्रदायी सत्पुरूस. दत्तसंप्रदायी लोक ताका दत्ताचो चवथो अवतार मानतात. ताच्या बापायचें नांव मनोहर नाईक हरकुडे आनी आवयचें नांव बयम्मादेवी अशें आशिल्लें. मनोहर हो देशस्थ ऋग्वेदी, आश्वलायन शाखेचो श्रीवत्सगोत्री ब्राह्मण आशिल्लो. माणिकप्रभू हो ताचो दुसरो पूत.



ल्हानपणांतूच माणिकप्रभून तरातरांचे ईश्वरी चमत्कार करून आपलें साधुत्व दाखोवन दिलें. सहजस्फूर्त आनी प्रासादिक अशीं शेंकड्यांनी भक्तिगीतां ताणें रचलीं. पिरायेचीं सुरवातेचीं पंचवीस-सव्वीस वर्सां भोंवडेंत आनी चमत्कार करपांत वतकच इ. स. १८४५ वर्सा हुमनाबादे लागसार (कर्नाटक) एके किण्ण सुवातेर वचून रावलो. थंय स्थायिक जातकच रोखडेच ताचे भोंवतणी भक्त जमूंक लागले. ताकाच लागून कांय काळा उपरांत त्या वाठाराक 'माणिकनगर' ह्या नांवान वळखूंक लागले.

माणिकप्रभून स्थापणूक केल्ल्या संप्रदायाचें नांव 'सकलमतसंप्रदाय' अशें आसा. सगळ्या धर्मांतल्या आनी पंथांतल्या बऱ्यांतल्या बऱ्या तत्त्वांचो आनी विचारांचो मेळ सादपी असो हो संप्रदाय आसा. सगळे धर्म आनी संप्रदाय आपापल्या अनुयायांक ईश्वराची प्राप्ती करून दितात, सगळे देव एकरूप आसात, विशिश्ट देवतेच्या मंत्रांची गरज ना अशीं मतां ह्या संप्रदायांत आसात. ह्या संप्रदायाचें उपास्यदैवत श्रीचैतन्यदेव म्हळ्यार आत्मो आसा. तशेंच ह्या संप्रदायांत मधुमती नांवाचे शक्तीसयत दत्तात्रेयाची उपासना करतात. उदार आनी समन्वयवादी वृत्तीक लागून शैव, वैश्णव, लिंगायत ह्या हिंदू पंथांवांगडा मुसलमान, पारशी, शीख धर्मांचे लोकूय माणिकप्रभूचे अनुयायी जाले. जंगमांचो संक्रांतिमहोत्सव, मुसलमानांचो मोहरम आनी दत्तजयंती हेय उत्सव माणिकनगरांत उमेदीन मनयतात. मुसलमान ताका 'पिरान्पीर दस्तगीर' म्हण्टाले आनी शीख लोक ताका 'जो गुरू नानक सोही गुरू मानक' अशें म्हण्टाले.

माणिकप्रभूक संस्कृत, मराठी, कन्नड, हिंदी, उर्दू आनी फार्सी ह्यो भाशा कळटाल्यो. माणिकप्रभू हो एक प्रासादिक कवी आशिल्लो. मराठी, हिंदी आनी कानडी ह्या भाशांतल्यान ताणें कृष्णाविशीं खूब पदां रचल्यांत. ताचीं पदां आनी आरत्यो, माणिकप्रभु संस्थानान 'पद्ममाला' ह्या नांवान उजवाडायल्यात. ताणें मल्हारी माहात्म्य, आत्मरुपप्रतीती, संगमेश्वर माहात्म्य, हनुमंतजन्म हे ग्रंथ बरयल्यात. कवित्वाभाशेन माणिकप्रभुक संगीत कलेचीय देणगी मेळिल्ली.

इ.स. १८६५ वर्सा माणिकप्रभून समाधी घेतली. ताच्या अवतारकार्यान दत्तसंप्रदायाच्या प्रसाराक खूब आदार मेळ्ळो. माणिकप्रभूचे गादयेर बसप्यांक माणिकप्रभू म्हण्टात. ताची गादी ताच्या भावाच्या वंशजाकडे चालू आसा. श्रीमनोहर माणिकप्रभू आनी श्रीमार्तंड माणिकप्रभू हे माणिकप्रभू प्रसिध्द आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## माणेकशा, सॅम होरमसजी फ्रामजी जमशेटजी

: (जल्म : ३ एप्रिल १९१४, अमृतसर).

स्वतंत्र भारताच्या संरक्षणदलाचो पयलो फील्डमार्शल. नैनितालांतली शेरवूड कॉलेज आनी डेहराडून हांगासल्ल्या इंडियन मिलिटरी अकादमी ह्या शिक्षणसंस्थांतल्यान ताणें शिक्षण घेतलें. फुडें १९३४ वर्सा ताणें 'कमिशन' पदवी घेतली.



सुरवातीक ताची द्वितीय रॉयल स्कॉट्स हे पलटणींत नेमणूक जाली. उपरांत फ्रँटियर फोर्स रेजिमेंट आनी ताचे उपरांत गुरखा रेजिमेंटांत ताची नेमणूक जाली.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत, जपानाआड जाल्ल्या मियानमाराच्या पयल्या झुजांत झूजतना फील्डमार्शलाक गंभीर दुखापत जाली. तेन्ना झुजामळाचेरूच ताका 'मिलिटरी क्रॉस' हो भोवमान दिलो.

१९६५ वर्साच्या सुमाराक भारत-पाकिस्तानामदीं जाल्ल्या झुजांत ताणें उदेंत वाठाराच्या झुजाची आंखणी केली. त्यावेळार तो ईस्टर्न कमांडाचो मुखेल आशिल्लो. त्याच सुमाराक तो सैन्याचो मुखेली जालो.

१९७१ वर्साच्या भारत-पाकिस्तान झुजावेळार ताणें झुजाची कुशळतायेन आंखणी करून बारा दिसांनी हें झूज सोंपयलें. दुस्मानाचे ९०,००० कैदी ताब्यांत घेवन बांगला देशाचो मुक्तिसंग्राम जैतिवंत करून दाखयलो. अस्तंत शीमेचेर पाकिस्तानाक आडावन धरले. हे ताचे कामगिरीक लागून ताका १९७२ वर्सा भारताच्या सरंक्षणदलाचो आजीव फील्डमार्शल केलो. तेचप्रमाण तो अखिल भारतीय क्रीडांगण खेळ समितीचो अध्यक्ष आसा. सगळे शिपाय ताका 'सॅम बहादूर' ह्या नांवान पाचारतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मातृका :** लोकमाता हे उपाधीच्यो क्षुद्र देवता. हांची संख्या सात, आठ, णव, चवदा, सोळा अशी आसा. ह्यो विंगड विंगड देवांच्यो शक्ती आशिल्ल्याचें सांगलां. ब्राह्मी, माहेश्वरी, कौमारी, वैष्णवी, वाराही, इंद्राणी आनी चामुंडा ह्यो अनुक्रमान ब्रह्मा, शिव, स्कंद, विष्णु, यम, इंद्र आनी रुद्र हांच्यो क्रियाशक्ती आसात. त्यो आपल्या स्वामींचीं वाहनां आनी आयुधां आपणायतात. तांचीं मुखांय स्वामीभशेन आसतात. सात मातृकांचीं नांवां अशीं -

*ब्राह्मी माहेश्वरी चैव कौमारी वैष्णवी तथा ।*
*वाराही च तथेन्द्राणी चामुण्डाः सप्त मातरः ।।*

ह्या सात मातृकांभितर महालक्ष्मीचो आस्पाव करतकच त्यो अश्टमातृका जातात. कांय लोक तातूंत महालक्ष्मी बदला योगेश्वरी वा चर्चिका हांचो आस्पाव करतात.

मातृकांचे उत्पत्तीविशीं एक कथा आसा ती अशी - अंधकासुर दैत्य हाणें आपल्या तपाच्या सामर्थ्यान बळिश्ट जावन त्रैलोक्य जिकन कैलासाचेर चाल केली. ताका कैलास जिकून पार्वतीय मेळोवपाची आशिल्ली. पार्वतीचेर हात घालिनाफुडें शंकराचें आनी तांचे खर झूज जालें. त्या झुजांत शंकराच्या बाणांनी अंधकासुर जखमी जालो. ताच्या आंगांतल्यान रगत व्हांवपाक लागलें. त्या रगताच्या दर एका थेंब्यांतल्यान राक्षस तयार जाले. त्या सगळ्यां वांगडा शंकराक एकट्याक तोंड दिवप जड जालें तेन्ना ताणें आत्मतेजांतल्यान १९० मातृकांचो गण उत्पन्न केलो. ह्यो मातृका त्या राक्षसांचें रगत पिवपाक लागल्यो. पूण राक्षसांची उत्पत्ती चालूच उरली. तेन्ना विष्णु, शिवाच्या आदाराक आयलो आनी ताणें आपल्या आंगांतल्यान शुष्क रेवती नांवाची एक मातृका तयार केली. तिणें अंधकासुराचें रगत पिवन ताका मारलो. मातृकांक नेमून दिल्लें काम सोंपतकच त्यो आपलें भक्ष्य सोदपाखातीर भोंवपाक लागल्यो. सगळेकडलें भक्ष्य सोंपतकच त्यो शिवाम्हऱ्यांत गेल्यो. पूण थंयलेगीत तांकां निर्शेवणी येतकच त्यो त्रैलोक्यभर भोंवन जीवसृश्ट खावपाक लागल्यो. ताकालागून रोखडीच पुराय धर्तरी सोंपतली असो देवांक भंय दिसूंक लागलो. तेन्ना शिवान नृसिंह रूप घेवन कांय अघोर नव्यो मातृका तयार केल्यो. विष्णुनूय कांय मातृका उत्पन्न केल्यो. ह्या नव्या मातृकांनी, पोरन्या १९० मातृकांचो नाश केलो.

अशेच तरेच्यो कांय कथा कूर्म पुराण, अद्‌भुत रामायण ह्या ग्रंथांनी आसात.

मातृका ह्यो मनशाच्या वायट वृत्तींच्यो प्रतिनिधीय मानल्यात. योगेश्वरी, वैष्णवी, ब्राह्मी, कौमारी, ऐंद्री, दंडधारिणी आनी वाराही ह्यो काम, राग, मद, मोह, मत्सर, पैशुन्य आनी असूया हांच्यो प्रतिनिधी आसात.

वर्णमाळेंतल्या सगळ्या वर्णांकूय अक्षरमातृका अशेंय म्हळां. कलकत्ता हांगाचे कालीदेवीच्या गळ्यांत राक्षसांच्या मुंडांची ५२ रुंडांची रुंडमाळ दाखयल्या. हीं ५२ रुंडां म्हळयार वर्णमाळेंतल्या ५२ अक्षरांचीं प्रतिकां आसात अशें सर जॉन वुड्राफ हाचें मत आसा.

वेरूळ, कुंभकोणम्, बेलूर, अमरकंटक, ऐहोळ ह्या सुवातींनी मातृकांच्यो मूर्ती आसून, तांचे राखणेखातीर एके वटेन वीरभद्र आनी दुसरे वटेन गणपती उबो आसता. नर्मदेचे देगेर मांधाता दोंगरावळींत एक मातृकादेवूळ आसा. दक्षिणेंत तमिळनाडूंत चक्रपल्ली गांवांत सात मातृकांचें देवूळ आनी सात शिवलिंगां आसात. बुलढाणा जिल्ह्यांतल्या तारापूर ह्या गांवच्या देवीमंदिरांतूय सात मातृकांच्यो मूर्ती आसात. पुण्याच्या लागसार आशिल्ल्या यवत गांवांतल्या यवतेश्वराच्या देवळांत मातृकांच्यो मूर्ती आसात. गुजरातांतल्या तिलकवाडा ह्या गांवांतूय एक सप्तमातृकांचें देवूळ आसा. मध्य प्रदेशांतल्या उदयगिरीच्या लेण्यांनी सात मातृकांच्यो मूर्ती खोदल्यात. बेसनगर हांगा सगळ्यांत सुंदर अशो सात मातृकांच्यो मूर्ती आसात.

महाभारताच्या शल्यपर्वांत लंबपयोधर आनी विशिरा मातृकांचे उल्लेख आयल्यात. इनामगांव हांगाच्या उत्खननांनी लांब थानांच्यो, शीर नाशिल्ल्यो आनी बैलाचेर बशिल्ल्यो कांय बायलमूर्ती सांपडल्यात. कांय अभ्यासकांच्या मतान त्यो मातृका मूर्तीच आसात. गोवाहना वा बैलाचेर बशिल्ले मूर्तीचें नांव महाभारतांत शकुनी अशें दिलां. ह्यो सगळ्यो स्कंद परिवारांतल्यो देवता आसून, त्यो बालघातक म्हूण भिरांकूळ थारल्यात.

मातृकांचो शिवाचे आराधनेकडे संबंद आसा. मंगल कार्यांच्या वेळार मातृकापूजन करतात. तेन्ना पयलीं सांगिल्ल्यो ब्राह्मी आदी सात मातृका पूजतात तशेच तांचेबरोबर गौरी आदी सोळा देवता पयलीं पूजतात. मागीर गणपती, दुर्गा, क्षेत्रपाल आनी वास्तोष्पती ह्यो चार देवताय तांचेवांगडा पूजतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मातृसत्ताक कुटूंबपद्धती:** ज्या कुटुंबांत आवयची अधिसत्ता चलता आनी कुटुंबाचे समाजीक, संस्कृतीक आनी अर्थीक वेव्हार बायलेच्या हातांत आसतात, अशी कुटुंबपद्दत. मनशाचे अप्रगत भटके अवस्थेंत अपत्यप्राप्तीविशीं बापायची भूमिका सारकी खबर नाशिल्ल्यान तीं अपत्यां आवयचीं मानताले. तशेंच दादले शिकारेक घरापसून पयस गेल्ल्यान तांचीं घरां आनी थंयची मालमत्ता बायलांचीच अशें मानताले आनी हाकाच लागून मातृसत्ताक कुटुंबपद्धतीचो जल्म जालो, अशें बॅकोफेन, कलर, स्पेन्सर, टायलर, मॉर्गन ह्या मानवशास्त्रज्ञांचें मत आसा.

आर्य भारतांत येवचे पयलीं सिंधू संस्कृताय आनी हेर द्राविडी जमातींभितर ही कुटुंबपद्दत आशिल्ली अशें श्मिट, कोपार्स, मार्शल, मेंगीन ह्या मानवशास्त्रज्ञांचें मत आसा. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक मेरेन भारतांत ईशान्येक खासी आनी गारो ह्यो जमाती आनी दक्षिणेक तोडा, कादर आनी नायर ह्या जमातींभितर मातृसत्ताक कुटुंबपद्दत आशिल्ली.

हे कुटूंबपद्दतींत, कुटुंबाची वंशपरंपरा, कुलनांव आनी गोत्रनांव भुरग्यांक आवयकडल्यान मेळटा. आवयचे जातीवयल्यान भुरग्याची जात थारायतात. चल्याक संपत्तीचो अधिकार वा वारसो मेळनासतना तो चलयेक मेळटा. चडकरून अशा कुटुंबांत आवयचो भाव वा तो नासल्यार ताचो चलो संपत्तीचो अधिकारी जाता. कारण हे पद्दतींत भुरगीं बापायगेर रावनासतना आवयवांगडा तिचे आवयगेर रावतात. मामाचीं स्वताचीं भुरगीं तांच्या आवयवांगडा रावतात. पितृप्रधान कुटूंबपद्दतींत जशे बापूय-पुताचे संबंद आसतात, तशेच मातृसत्ताक कुटूंबपद्दतींत ते मामा-भाच्याचे आसतात.

लग्नाउपरांत चली घोवाघरा वचनासतना कुळाराच रावता. गरज पडटा तेन्ना घोव तिगेर वचून रावता. कांय जमातींत न्हवरो-व्हंकल, न्हवऱ्याच्या मामागेर म्हळ्यार ताच्या आवयच्या सोयऱ्यांगेर रावपाक वतात. हे जमातींत लग्नावेळार वधूमूल्य दिवपाची चाल आसा. घटस्फोट दोगांय मागूंक शकतात. विधवा तशेंच घटस्फोट घेतिल्ले बायलेक परतून लग्न करपाक मेळटा. कांय जमातींनी, दादल्यांक कश्ट करून मालमत्ता एकठावपाची परवानगी आसली, तरी ती पितृसत्ताक पद्दतीन ताच्या अपत्यांक मेळना, तर ती ताचे भयणीच्या भुरग्यांक वारसाहक्कान मेळटा.

हे कुटूंबपद्दतींत, बायलांकडे घरांतलीं कामां आनी भायलीं कामां दादल्यांनी करपाचीं अशी सादी कामाची वांटणी केल्ली आसता. कुटुंबाची मुखेल बायल आसता. पूण तिचो भाव वा ताचो चलो कुटुंबाची जबाबदारी घेता. अशे तरेन ताका दीसपट्ट्या वेव्हारांत अधिकार तशेंच स्वातंत्र्य आसता पूण ताचें मत निर्णायक थारना.

पारंपारीक पद्दतीन वेशा व्यवसाय करपी जाती-जमातींनी वलपी कुटुंबपद्दत मातृसत्ताक आसली. आजूय आसा. अधिकृत लग्नविधी जायनासतना दादलो बायल एकठांय आयिल्ल्यान वा अशा कुटुंबांतले बायलेकडेन अर्थीक वेव्हार उरिल्ल्यान तिची सत्ता कुटुंबांत चलता.

आर्विल्ल्या समाजाचो संपर्क आयिल्ल्यान हे पद्दतींत ल्हव ल्हव पितृसत्ताक कुटूंबपद्दतीचो आस्पाव जालो, तशेंच पुराय हिंदू समाजाक लागू जावपी हिंदू कायदो अस्तित्वांत आयिल्ल्यान मातृसत्ताक कुटूंबपद्दत बंद जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** पितृसत्ताक कुटूंब पद्द्ती.

**माथुरः, जगदीशचंद्र :** (जल्म : १६ जुलय १९१७, शाहजहानपूर, उत्तर प्रदेश; मरणः १४ मे १९७८).

हिंदी नाटककार आनी एकांकिका लेखक. अलाहाबाद विद्यापिठांतल्यान एम्. ए. जातकच तो आय्. सी. एस्. जालो. आकाशवाणीचेर महासंचालक म्हणूनय ताणें काम केलां. संगीत-नाटक अकादेमीचोय तो वांगडी आशिल्लो. पिरायेच्या बाराव्या वर्सासावन ताणें आपल्या लिखाणाक आरंभ केलो.

'मेरी बासुरी' ही ताची पयली एकांकिका १९३६ वर्सा रंगमाचयेर येतकच रोखडीच 'सरस्वती' ह्या नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयली. भोग का तारा (१९४६) हो ताचो पयलो एकांकिकाझेलो खूब गाजलो. १९५६ वर्सा ताचो 'ओ मेरे सपने' हो एकांकिकाझेलो उजवाडाक आयलो.

कोणार्क(१९५०), कुंवरसिंह की टेक (१९५५), आशादीप (१९५६), शारदीया (१९५९), पहला राजा (१९६९) हीं ताचीं कांय गाजिल्लीं नाटकां. तेभायर आपले कांय अणभव आनी यादी ताणें 'एक समदर्शी के अनुभव' (१९५५) ह्या पुस्तकांतल्यान उक्तायल्यात. ताचे जिणेंत आयिल्ल्या धा नामनेच्या व्यक्तिंचीं शब्दचित्रां चितारपी 'दस तसविरें' (दुसरी आवृत्ती १९६४) हो ग्रंथ ताणें बरयलो. हो ताचो ग्रंथूय खूब गाजलो. 'दशरथनंदन' आनी 'लघुकुलरीति' हीं नाटकां, 'मेरे श्रेष्ठ रंग एकांकी' हो एकांकिकाझेलो आनी 'जिन्होंने जीना जाना' हो व्यक्तिपरिचय हे ताचे हेर ग्रंथ आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मादन, जमशेटजी फ्रामजी :** (जल्मः १८५६, मुंबय; मरण : १९२३, कलकत्ता).



एक नाट्य-चित्रपट वेवसायीक. ताचो गुरू कुंवरजी नाझीर हाच्या एल्फिन्स्टन नाटक मंडळींत ताणें १८६८ वर्सा प्रवेश घेतलो. हे नाटक कंपनीवांगडा ताणें देशभर भोंवडी केली. एक बरो नट आनी नाट्यवेवसायाचो कसबी जाणकार म्हूण ताची सगळयाक नामना जाली. ही कंपनी जेन्ना नुकसानींत चलपाक लागली, तेन्ना

जमशेटजीन ती आपल्या ताब्यांत घेतली. उपरांत आपलें मुखेल कार्यालय मुंबयच्यान कलकत्त्याक व्हेलें. कलकत्त्याच्या मैदानाचेर १९२०वर्सा एक तंबूचें चित्रपटघर सुरू केलें. ताच्यो नाटककंपन्यो आनी हेर वेवसाय तेन्ना चालूच आशिल्ले. जसो चित्रपटाचो प्रेक्षकवर्ग वाडूंक लागलो तशें जमशेटजीन आनीकूय कांय तंबुंचीं चित्रपटघरां सुरू केलीं.

१९०७ वर्सा 'एल्फिन्स्टन' हें भारतांतलें पयलेंच कायम स्वरुपाचें चित्रपटघर ताणें कलकत्त्यांत सुरू केलें. उपरांत ताणें भारतांत खूबकडे चित्रपटघरां सुरू केलीं. १९२० वर्सामेरेन मादन वेवस्थापनाखाल वट्ट ५१ चित्रपटघरां आशिल्लीं.

आपल्या वाडट्या चित्रपटघरांवांगडा फिल्म आयात करपाचें काम जमशेटजीनूच सुरू केलें.

बऱ्यांतले बरे पाश्चात्य चित्रपट दाखोवंक मेळचे म्हूण जमशेटजीन पॅरिस, बर्लिन, लंडन आनी न्यूयॉर्क हांगा म्हायती मेळपाखातीर खास प्रतिनिधींची नेमणूक केली.

मेट्रो गोल्डविन मेयर, युनायटेड आर्टिस्ट कॉर्पोरेशन आनी पॅरामाऊंट पिक्चर्स कॉर्पोरेशन ह्या पयल्या वर्गांतल्या अमेरिकन कंपन्यांची एजन्सीय ताणें घेतली.

१९०५ वर्सासावन 'एल्फिन्स्टन बायोस्कोप' ह्या नांवान ल्हान ल्हान चित्रपटांची निर्मिती सुरू केली. १९१७ वर्सासावन ताणें दादासाहेब फाळकेच्या देशी चित्रपटांची स्फूर्त घेवन मादन थिएटर्सचेवतीन देशी चित्रपटांची निर्मिती सुरू केली.

- कों. वि. सं. मं.

**मादिग :** म्हैसूर राज्यांतली एक जात. मादिग हें नांव मातंग ह्या शब्दाचो अपभ्रंश आसुंये अशें एक मत आसा. जंबू ऋषी हो आपलो मूळ पुरूस आशिल्ल्याचें ते सांगतात. ताचेवयल्यान तांकां जांबव हें नांव मेळ्ळां. ह्या लोकांक मातंग, चामार, पद्मजातियवरू अशींय नांवां आसात. पयलीं कानडा प्रदेशांत मातंग नांवाचो वंश राज्य करतालो, ह्याच वंशांतले मादिग लोक आसुंये अशेंय एक मत आसा.

मादिग लोक कन्नड वा तेलुगू भास उलयतात. ह्या भाशांवयल्यानूच तांचे कन्नड मादिग आनी तेलुगू मादिग अशे दोन मुखेल भेद जाल्यात. तांच्यांत परस्पर लग्नां जायनात. कन्नड मादिगांचे परतून तनिगे बुव्वडवरू, हेडिगे बुव्वडवरू आनी मोर बुव्वडवरू अशे तीन पोटभेद आसात. तेलुगू मादिगांचे तले बुव्वमुवल्लू, गंय बुव्वमुवल्लू आनी मोर बुव्वमुवल्लू अशे तीन पोटभेद आसात. लग्नाच्या वेळार न्हवरो-व्हंकल, थाळी, पांटलो वा सूप हातूंतल्या किदयांत जेवण करतात, ताचेवयल्यान हे भेद पडल्यात. हेभायर मादिगांचे जांबव आनी डाक्कलोरू अशेय भेद आसात. जांबव शाखेचे लोक मादिगांचे गुरू आसून, तांचे मठ आसात. ते आंगार लिंग धारण करतात. कपलाक भस्म आनी चंदन लायतात. हे लोक पांचालांकडे भिक्षा मागतात. डाक्कलोरू हे भटके आसून, तांकां अस्पृश्य मानतात.

मादिग दादल्यांचो पारंपारीक भेस म्हणजे कमरेक एक वस्त्र गुठलायतात, सदरो घालतात आनी माथ्याक पागोटें बांदतात. तांच्यो बायलो साडी न्हेसतात पूण पोलको घालीनात. हे गाय, म्हस, बोकड्यो, मेंढ्यो हांचें मांस खातात आनी ताडी पितात.

मारम्म, मासनम्म, मातंगी वा महालक्ष्मी ह्या देवतांक हे लोक भजतात. दिवाळेक ते महालक्ष्मीक बोकडे, कोंबयो बळी दितात. मारम्म देवतेचो ते वर्सुकी उत्सव करतात आनी तिका जनावरां बळी दितात. तांच्यो कांय आनीकूय ग्रामदेवता आसात, तांकांय ते जनावरां बळी दितात. उदिसलम्म नांवाचे ग्रामदेवेतेकूय ते रेडो बळी दितात.

हे लोक आते-मामे भयणीकडे वा व्हडले भयणीचे धुवेवांगडा लग्न करतात. आवय-बापूय लग्न थरयतात. साटे-लोटे पद्दतीन लग्न करपाचीय चाल तांच्यांत आसा.

मादिग लोकांत जायतीं कुळां वा बेडगू आसात. तांचे एकाच कुळांत लग्नसंबंद जायनात.

चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. चलयेच्या बापायन ह्या लग्नाक परवानगी दिल्यार ओप्पू विळय नांवाचो एक सुवाळो करतात. हो एके तरेचो साकरपुडोच आसता.

लग्न न्हवऱ्यागेर जाता. यजमान वा एकाद्रो जाण्टो मनीस लग्नांत पुरोयतपण करता. लग्नाउपरांत न्हवरो-व्हंकल आनी तीन सवाशिणी बायलो केळीच्या पानाचेर दवरिल्ल्या थाळयेंतल्या, पांटल्यांतल्या वा सुपांतल्या शीत-गोडाची पुजा करतात आनी सगळेजाण तो प्रसाद म्हूण खातात. उपरांत जातींतल्या सगळ्या लोकांक जेवण घालतात. तेन्ना न्हवऱ्याकडच्या लोकांनी सगळ्यांक ताडी दिवकूच जाय असो नेम आसा.

हे जातींत विधवालग्नां जातात. विधवा बायलेक आपल्या घोवाच्या नात्यांतल्या दादल्यावांगडा लग्न करपाक मेळना. ह्या लग्नांतूय देज दिवचें पडटा.

ह्या लोकांत चलयांक बसवी म्हूण देवीक ओंपपाची चाल आसा. कांय कुटुंबांनी सगळ्यांत व्हडले चलयेक बसवी करतात. कांय खेपे आवय-बापूय संकश्टावेळार तशी आंगवण करतात. बसवी जाल्ले चलयेक होलेय दादलो सोडून खंयच्याय दादल्यावांगडा सहवास करपाक मेळटा.

बायल बाळंत जातकच सव्या दिसा सटीची पुजा करतात. सुयेर धा दीस पाळटात. एका म्हयन्यान भुरग्याचें नांव दवरतात.

सादारणपणान हे लोक मडें पुरतात. मडें मसंडेंत व्हरतना मड्याची तकली गांवावटेन करतात. तशें केलें ना जाल्यार किदेंयतरी संकट येता

अशी तांची समजूत आसा. मडें पुरतकच सगळेजाण न्हंयेचेर वचून पांय धुतात. उत्तराधिकारी मात न्हाता. तिसऱ्या दिसा मसंडेंत वचून मृतात्म्याक अन्न आनी उदक दवरतात. तशेंच पुरिल्ल्या जाग्यार मेल्ल्या मनशाची प्रतिमा काडून, तिच्या मुखार बोकडो वा कोंबो बळी दितात. तीन दीस सुतक पाळटात. धाव्या दिसा कलशपूजन करून जातींतल्या लोकांक जेवण घालतात. हे लोक श्राध्द करीनात. पूण चैत्रांतल्या पाडव्याक, विनायकी, चवथ, उमाशेक ते समाधीची पुजा करतात.

हे लोक चामड्याचीं जोतीं आनी हेर वस्तू तयार करतात. कांय खेपे ते राखण्याचें काम करतात. धुवपा-पुसपाचेंय ते काम करतात. कांय मादिग लोक शेती करतात.

ह्या लोकांची पंचायत आसता. पंचायतीचे वतीन लोकांचीं झगडीं सोडयतात. मादिग लोकांचे खूब गट आसतात. तांकां कट्टेमणी अशें नांव आसा. कट्टेमणीच्या मुखेल्याक दोड्ड यजमान वा पेड्ड यजमान अशें म्हण्टात. ताच्या हातासकयल्ल्या अधिकाऱ्याक चिक्क यजमान म्हण्टात. लग्नांत ताका पुरोयतपण करपाक मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**माद्रिद :** युरोपांतल्या स्पेन देशाची राजधानी. लोकसंख्या ४७,२६,९८६ (१९८१). युरोप खंडांतल्या सगळयांत चड उंचायेचेर आशिल्ल्या राजधान्यांतली एक. स्पेनच्या मदेगाक मांथानारेस न्हंयेचेर आशिल्लें हें शार माद्रिद प्रांताचीय राजधानी आसा. दर्यातळासावन २,३७३ फूट उंचायेचेर वशिल्ल्यान हांगाचें हवामान शितळ, सौम्य आनी सुखदिणें आसता. जुलय ते ऑगस्ट म्हयन्यांत हांगा चड उश्णताय आसता.

स्पेनाचेर मुसलमानी अंमल आसतना 'माजरीत' ह्या नांवाची मूर लोकांची गढी म्हूण हाचो उल्लेख धाव्या शेंकड्यांत मेळटा. दुसरो फिलिप हाणें १५६१ वर्सा हांगा आपलो दरबार भरलो. तिसऱ्या फिलिपान १६०७ वर्सा स्पेनाची राजधानी म्हूण माद्रिदची वेंचणूक केली. ह्या शाराची वाड उदेंतेकडल्यान जायत गेली. १९४८ वर्सा उपरांत अस्तंतेकडे ह्या शाराचो विस्तार जालो. ह्या शाराचे आल्तो म्हळयार उंचेलो, सेंत्रल म्हळयार मदलो आनी बाजो म्हळयार सकयलो अशे तीन वांटे आसात. ही वांटणी सुवातेची उंचाय आनी लोकांचें राहणीमान हांचेवयल्यान केल्या.

माद्रिद हें स्पेनाचें एक म्हत्वाचें वेपारी आनी उद्देगीक केंद्र आसा. हांगा मोटारी आनी म्हालमोटारी हांचीं इंजिनां, प्लॅस्टिकाच्यो वस्तू, विद्युत् आनी इलेक्ट्रॉनिक उपकरणां, रबर, विमानां ह्या उद्येगांचे कारखाने आसात. देशांतल्या लोहमार्गाचेंय हें केंद्र आसा.

पंदराव्या ते एकोणिसाव्या शेंकड्यांत चित्रकारांनी काडिल्ल्या चित्रांचें दालन हें हांगाचें खाशेलपण. प्रादो नॅशनल म्यूझीयम हें भोंवडेकारांचें खास आकर्शण आसा. नॅशनल पॅलेसांत एक व्हड शस्त्र संग्रहालय आसा. माद्रिदांत व्हड अशीं खूब उद्यानां आसात. तातुंतलें काझ द काम्पो हें चड उल्लेख करपासारकें उद्यान आसा. प्लाझा मॉन्युमेंटल हें स्पेनाचें सगळयांत व्हड बैलझोंबीरंगण आसा. थंय २४०० प्रेक्षक बसूंक शकतात.

मार्च ते ऑक्टोबर म्हयन्यांत माद्रिदांत विंगड विंगड संस्कृतीक कार्यावळी जातात. सान इसिद्रोची परब मे म्हयन्यांत मनयतात. ह्याच सुमाराक माद्रिदा आड बार्सेलोना अशी सॉकर खेळाची वर्सुकी सर्त सुरू जाता.

व्हड आनी रूंद रस्ते हें शाराचें खाशेलपण आसा. हांगा एक शासकीय विद्यापीठ, तंत्रनिकेतन, पोस्ट ऑफिस आसा. तशेंच रेडिओ आनी दूरदर्शनाचे वतीन शिक्षण दिवपी एक विद्यापिठूय माद्रिद शारांत आसा. हांगा सुमार शंभर ग्रंथालयां आसात. ह्या शाराच्या वाडट्या उपनगरांक आनी विस्ताराक योग्य दिका दिवपाखातीर हांगा एक आयोग स्थापन केला.

- कों. वि. सं. मं.

**माधव कंदली :** (जल्म : इ.स. १४वो शेंकडो, उदेंत आसाम).

असमिया भाशेंतलो एक म्हान कवी. ताणें वाल्मिकी रामायणाचो असमिया भाशेंत सगळयांत पयलीं अणकार केलो. उत्तर भारतांतूय मूळ संस्कृत रामायणाचो देशी भाशेंत सगळयांत पयलीं अणकार करपाचें श्रेय माधव कंदलीकच मेळटा.

ह्या कवीचें चरित्र चडशें उपलब्ध ना. उदेंत आसामांत, एका व्युत्पन्न ब्राह्मण कुटुंबांत ताचो जल्म जालो अशी म्हायती आसा.

कंदली ही ताका मेळिल्ली उपाधी. चवदाव्या शेंकड्यांतलो कचारी राजा महामाणिक्य हाच्या दरबारांत माधव कंदली राजकवी आशिल्लो. लोक ताका 'कविराज कंदली' ह्या किताबान वळखताले. राजाचे आज्ञेवयल्यान ताणें वाल्मिकी रामायणाचो असमिया भाशेंत अणकार केलो.

माधव कंदलीन पुराय रामायणाचो सात कांडांनी अणकार केलो. पूण ताचे आदिकांड आनी उत्तरकांड अशे दोन कांड सद्या उपलब्ध नात. मदले पांच कांड आसात. हाका लागून कांय तज्ञांच्या मतान ताणें फकत पांच कांडच बरयल्यात. पूण माधव कंदलीच्याच कांय पंक्तींचो आदार घेवन कांय अभ्यासक म्हण्टात की ताणें सातूय कांडां रचल्यांत. शंकरदेव हाणें उत्तरकांड आनी माधवदेव हाणें आदिकांड रचून हें रामायण पुराय केलां.

वाल्मिकीचो राम हो महामानवाच्या स्वरुपांत चित्रित केल्लो आसलो तरी माधव कंदलीन ताका विष्णुचो अवतार म्हूण रंगयला. हो अणकार करतना ताणें तातूंत आसामांतली संस्कृताय, प्रादेशिक शैली, आचार-विचार, तांच्यो रुढी-परंपरा, कुटुंबीक वातावरण, नैतीक आनी समाजीक

मुल्यां, आसामी भाशेचें खाशेलपण हांचो बेस बरो वापर केला. तो संस्कृत भाशेचो पंडित आशिल्लो, तशेंच संस्कृत आनी असमिया भाशेचेर ताचें प्रभुत्व आशिल्लें. ह्या रामायणांत वर्णिल्ल्यो घडणुको वाचतकच कवीचे कल्पनाशक्तीचो अणभव येता.

माधव कंदलीन 'देवजित' नांवाचें आनीक एक महाकाव्य बरयलां. पूण रामायणा वांगडा तुळा केल्यार तें सामकेंच सामान्य दिसता. ताकालागून हें काव्य ताचें नासुंये अशें एच. सी. गोस्वामी ह्या अभ्यासकाचें मत आसा. हें काव्य अर्जुन आनी इंद्र हांच्या झुजाच्या प्रसंगाचेर आदारिल्लें आसा.

नामनेचो असमिया वैश्णव महाकवी शंकरदेव हाणें माधव कंदलीचो पूर्वकवी अप्रमादी म्हणून भोवमान केला. स्वता शंकरदेव आनी उपरांतच्या कवींचेर माधव कंदलीचो खुबूच प्रभाव पडला. ताच्या अनुकरणांतल्यान फुडें हेर कवींच्यो रामकथा असमिया भाशेंत तयार जाल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**माधव चंद्रोबा :** (पळेयात दुकले माधव चंद्रोबा).

**माधवदेव :** (जल्म : सु. इ.स. १४८९, लेटेकुफखुरी, जि. लखीमपूर; मरण : इ.स. १५९६).

आसामांतलो एक वैश्णव संतकवी आनी शंकरदेवाच्या शरणधर्माचो प्रचारक. शंकरदेवाच्या निर्वाणाउपरांत माधवदेव आसामांतल्या वैष्णवांचो मुखेल जालो.

माधवदेवाचे आवयचें नांव मनोरमा आनी बापायचें नांव गोविंदगिरी आशिल्लें. गोविंदगिरी अस्तंत आसामांतल्यान उदेंत आसामांत आयलो. थंय शंकरदेवाच्या घराण्यांतले एके चलयेकडे लग्न करून नारायणपूर हांगा स्थायिक जालो. माधवदेव वीस वर्सांचो आसतनाच गोविंदगिरीक मरण आयलें.

माधवदेव संस्कृताचो खांपो विद्वान आशिल्लो. परंपरिक पद्धतीन ताणें कश्टांनी अध्ययन करून गिन्यान मेळयलें. सुरवातेक तो शक्तिमार्गी आसून दुर्गादेवतेचो कट्टर भक्त आशिल्लो. पूण शंकरदेवाची भेट जातकच माधवदेवाची धर्मीक नदर आनी भावार्थ बदललो. तो शंकरदेवाचो शिश्य जालो. शंकरदेवान ताका आपल्या एकशरण नांवाच्या धर्माची दीक्षा दिली. ह्या धर्माच्या प्रसाराखातीर माधवदेवान आपली सगळी जीण ओंपली. ते खातीर तो जल्मभर ब्रह्मचारी रावलो. तो खर गुरूभक्त आशिल्लो. माधवदेवाची विद्वत्ता, प्रतिभा आनी भक्ती पळोवन शंकरदेव सामको प्रभावित जालो. ताणें माधवदेवाक आपलो उत्तराधिकारी म्हूण नेमलो. शंकरदेवाच्या निर्वाणाउपरांत माधवदेवान २०वर्सां वैश्णव धर्माचो प्रसार करून ताका घटमूट बसका मेळोवन दिली.

माधवदेवान असमिया साहित्यांतूय आपलें नांव दवरलां. कवी आनी नाटककार म्हूण ताणें काम केलां. ताची पयली रचना 'जन्मरहस्य' हें ल्हान काव्य आसून तातूंत पुराणाचेर आदारिल्ली सृश्टीची उत्पत्ती आनी लय हो विशय आयला. माधवदेवान वाल्मीकी रामायणाच्या आदिकांडांचो आनी शंकरदेवान उत्तरकांडाचो असमिया भाशेंत अणकार करून, माधव कंदलीच्या असमिया रामायणांतलीं दोन कांडां नश्ट जाल्ल्यान अर्दवट उरिल्लें असमिया रामायण पुराय केलें. गुरूचे आज्ञेवयल्यान माधवदेवान विष्णुपुरी संन्यासी हाच्या भक्तिरत्नावलीचो छंदोबध्द असमिया अणकार केलो. हो अणकार करतना ताणें भक्तिरत्नावलि ग्रंथावयल्या कांतिमाला नांवाच्या भाष्यग्रंथाचो आदार घेतलो. आसामांतल्या महापुरुषीया पंथाच्या चार पवित्र ग्रंथांनी भक्तिरत्नावलीचो आस्पाव जाता. माधवदेवाचो 'राजसूय यज्ञ' हो आनीक एक लोकप्रिय ग्रंथ आसा. ह्या ग्रंथाचें कथानक महाभारताचेर आदारिल्लें आसून तातूंत पांडवांनी केल्ल्या राजसूय यज्ञाचो कथाभाग आयला. अभिजात संस्कृतांतल्या कांय कवींचो ताचेर प्रभाव आसून तो लोकप्रिय शैलींत बरयला. भक्ती आनी कृष्णाचें परमात्मापद सिध्द करप हो ह्या ग्रंथाचो हेत आसा. उपरांत माधवदेवान आपलो सगळयांत श्रेश्ठ असो 'नाम-घोषा' वा 'हजारी-घोषा' हो आध्यात्मिक ग्रंथ रचलो. असमिया वैश्णवांच्या स्तोत्रवाङमयाचो तो मोलादीक ग्रंथ मानतात. ह्या ग्रंथांत एक हजार कडवीं आशिल्ल्यान ताका 'हजारी-घोषा' म्हण्टात. माया, सृश्टीची रचना, ब्रह्म, आत्मसाक्षात्कार, जीवाचें स्वरूप आनी ध्येय, मोक्ष ह्या विशयांनी ह्या ग्रंथाची वांटणी केल्या. भक्ती आनी गुरुची कृपा हे आत्मसाक्षात्काराचे दोन पांवडे तातूंत सांगल्यात. भक्तिमार्ग हो सगळयांत सोंपो असो मार्ग आसा. जाचेवरवीं भक्ताक हरिनामाचो साक्षात्कार जाता. भक्तीन केल्लें हरिनामाचें स्मरण हो कलियुगांतलो श्रेश्ठ धर्म आसा. साक्षात्काराखातीर गुरूकृपेक खूब म्हत्व आसून शिश्याचे नदरेन देव आनी गुरू हातूंत भेद आसना. पश्चाताप, देवाचे कृपेखातीरची तळमळ आनी आत्मसंयम ह्या विशयांचोय तातूंत आस्पाव जाता. उंचेले विचार, उक्ती नदर हाकालागून 'नाम-घोष' ग्रंथांत माधवदेवाच्या आध्यात्मिक विचारांचो आनी काव्य-प्रतिभेचो सोबीत मेळ सादला.

माधवदेवान कांय 'अंकियानाट' म्हळयार एक अंकी नाटकां बरयलीं आनी सुमार २०० 'बरगीतां' म्हळयार भक्तिगीतां रचलीं. चोरधरा, पिंपरा गुछुवा, कोतोरा खेलोवा, भूषण हेरोवा आनी भूमि लुतिवा हीं तांची कांय अंकियानाट आसात. तातूंत कृष्णाच्यो बाललीला वर्णिल्यात. शंकरदेवाच्या अंकियानाटांपरस माधवदेवाचे अंकियानाट सामान्य लोकांत चड लोकप्रिय जाले. तशेंच बरगीतांक लागूनय वैश्णव संप्रदायांत माधवदेवाक खूब नामना मेळ्ळी.

शंकरदेवाच्या निर्वाणाउपरांत माधवदेवाचें चडशें वास्तव्य बरपेटा ह्या मुखेल वैश्णव मठालागसार गणक्कुची आनी सुंदरीदिय मठांत आशिल्लें.

उदेंत आसामाचो कोच राजा रघुदेव हो कामाक्षी देवतेचो उपासक आशिल्लो. माधवदेव कामाक्षेची उपासना करपाची सोडून वैश्णव मताचो प्रसार करता म्हूण रघुदेव राजान ताका अटक केली. पूण चवकशे उपरांत भोवमानान ताची सुटका केली. सुटके उपरांत माधवदेव कांय काळ हजो म्हळयार सद्याचें हयग्रीव माधव मंदिर हांगा रावपाक लागलो. पूण थंय राजाचे ब्राह्मण पुरोयत ताका सतावपाक लागले म्हूण तो अस्तंत आसामचो कोच राजा लक्ष्मीनारायण हाचे कुचबिहार हे राजधानींत गेलो. लक्ष्मीनारायणान ताका बरो येवकार दिवन ताच्या शिश्यांक रावपाखातीर राजधानी लागसार भेलादुआर हांगा सुवातूय दिली. थंय तांणीं आपलो मठ उबारलो. राजघराण्यांतल्या कांय लोकांनी माधवदेवा कडल्यान वैश्णव धर्माची दिक्षाय घेतली. ह्या मठांतूच, ताणें तीन वर्सांभितर 'नामा-घोषा' ग्रंथ पुराय केलो आनी थंयच ताका मरण आयलें.

नामनेचो साहित्यिक लक्ष्मीनाथ बेझबरुआ हाणें १९१४ वर्सा श्री शंकरदेव आरु माधवदेव ह्या नांवाचो चरित्रग्रंथ असमिया भाशेंत बरयलो. ह्या दोन संतांची जीण आनी कार्य हाकालागून हो म्हत्वाचो ग्रंथ मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

## माधवस्वामी : (जल्म : सतरावो वा अठरावो शेंकडो).

दक्षिण भारतांतलो एक मराठी कवी. ताचें उपनांव अद्वैती. ताच्या बापायचें नांव नागनाथ आनी आवयचें नांव उमा आशिल्लें. ताचे बायलेचें नांव रमा, तशेंच ताच्या आज्याचें नांव एकनाथ आशिल्लें. पूण हो एकनाथ कोण, हेविशीं अभ्यासकांत मतभेद आसात. संत एकनाथाक गंगा, गोदा आनी उमा ह्यो तीन चलयो आशिल्ल्यो. माधवस्वामीची आवय उमा ही संत एकनाथाची धूव आनी तेखातीर संत एकनाथ हो माधवस्वामीचो आजो अशें एक मत आसा.

माधवस्वामी, कावेरीचे देगेर तिरुवळंदूर हांगा रावतालो. समर्थ रामदासान कोनूर हांगा स्थापन केल्ल्या मठाचो मुखेल आशिल्ल्या राघवस्वामी हाचो माधवस्वामी शिश्य आशिल्लो. तिरूवळंदूर हांगा स्वता माधवस्वामीन एक रामाचें देवूळ बांदलें आनी थंयच सगळ्या ग्रंथांची रचणूक केली.

माधवस्वामीन बरयल्ल्या ग्रंथांनी अनुगीता, गणेशपुराण, विष्णुपुराण, श्लोकबध्द रामायण, भगवद्‌गीता (मराठी पद्य अणकार), ओवीबध्द रामायण, महाभारत, प्रबोधचंद्रोदय ह्या ग्रंथांचो आस्पाव जाता. तंजावर हांगाच्या सरस्वतीमहाल ग्रंथालयाच्या हातबरपांच्या संग्रहांत ह्यो रचणुको उपलब्ध आसात. रामायण, महाभारत, योगवसिष्ठ हे माधवस्वामीचे बृहत्‌ग्रंथ आसात. योगवसिष्ठ ह्या ग्रंथांत १२,३३९ ओव्यो आसात. हो ग्रंथ बरोवंचे पयलीं माधवस्वामीन तीन प्रकरणांचें आनी सात हजार ओव्यांचें एक 'भावार्थ योगवसिष्ठ' बरयल्लें अशें एक मत आसा. पूण कांय अभ्यासकांच्या मतान हें 'भावार्थ योगवसिष्ठ' माधवस्वामीन न्हय तर ताचो गुरू राघवस्वामी हाणें रचलां.

माधवस्वामीचे पूत रामपंडित आनी कृष्णपंडित, नातू कृष्णपंडिताचो पूत वासुदेवपंडित, नातसून म्हळयार वासुदेवपंडिताची बायल मीनाक्षीअम्मा, पण्टू अंबाजी पंडित हांणींय काव्यरचना केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## माधवाचार्य : (जल्मः सु.१२९६; मरणः सु. १३८६).

एक महापंडित आनी भाश्यकार. चवदाव्या शेंकड्यांत निर्माण जाल्ल्या विजयानगर राज्याचो प्रधानमंत्री, धर्मशास्त्रज्ञ आनी तत्त्वज्ञ. ताच्या बापायचें नांव मायण आनी आवयचें नांव श्रीमती. तशेंच ताका सायण आनी भोगनाथ हे दोन भाव आशिल्ले. ताचें गोत्र भारद्वाज. ही सगळी म्हायती स्वता माधवाचार्यान पराशर माधव म्हूण प्रसिद्द आशिल्ले पराशर स्मृतीचे टीकेंत सुरवातेक दिल्या. हातूंत बौधायन सूत्र आनी यजुर्वेद हांचोय उल्लेख मेळटा.

माधवाचार्य, विजयानगरच्या बुक्क राजाचो अमात्य आशिल्लो. विजयानगरच्या राजघराण्याची परंपरा सादारणपणान णव राजांची सांगूंक येता ती अशी-राजा संगम, हरिहर-१, कंप वा कंपण, संगम-२, बुक्क वा बुक्कम-१, हरिहर-२, बुक्क-२, मारप आनी मुद्दप. हातुंतल्या पयल्या चार पिळग्यांमेरेन, माधवाचार्यान थंय प्रधानमंत्री म्हूण कारभार पळयलो. विजयानगर हे राजधानीची स्थापणूक माधवाचार्यान केली असो उल्लेख मेळटा. हाचोच अर्थ तो प्रधानमंत्री आसतना ताच्या मार्गदर्शनाखाल विजयानगर उबारलें आनी माधवाचार्य हाणें नेमिल्ल्या आचार्यांच्या पुरोयतपणाखाला राज्यभिशेकूय जालो.

भारतीय संस्कृतीच्या इतिहासांतली म्हत्वाची घडणूक म्हळयार चारूय वेदांची म्हळयार संहिता आनी ब्राह्मण ह्या दोनूय प्रकारच्या वेदग्रंथांचीं भाश्यां माधवाचार्यान आपलो धाकटो भाव सायण हाच्या संपादकत्वाखाला बरोवन घेतलीं. वेदभाश्यांचें हें कार्य विजयानगर राजांचे चवथे पिळगेंत बुक्क-१ हो राजा राज्य करतना जालें. तैत्तिरीय संहिता भाश्याच्या एका पाठांत अशें म्हळां, वीर बुक्क महिपतीन माधवाचार्याक वेदभाष्यां बरय म्हूण आदेश दिलो. तेन्ना माधवाचार्यान बुक्क राजाक सांगलें की म्हजो धाकटो भाव सायणाचार्य होय बरो विद्वान आसा. तेन्ना बुक्क राजान सायणाचार्याक वेदभाश्य बरोवपाक सांगलें. भाश्य निर्मितींत आदार करपी सगळ्या पंडितांक मानधन दिलें, असोय उल्लेख मेळटा. ह्या कार्याक माधवाचार्याचो मुखेल आदार आशिल्लो. ताणें ह्या भाश्यांक 'माधवीये वेदार्थ प्रकाश' अशें नांव दिलें.

भारतीतीर्थ, विद्यातीर्थ आनी श्रीकंठ अशे माधवाचार्याचे तीन गुरू आशिल्ले. ताच्या 'कालनिर्णय' ह्या ग्रंथांत ह्या तीन गुरूंचो उल्लेख मेळटा.

माधवाचार्यान स्वता बरयल्ले आनी नांवाजिल्ले धर्मशास्त्राविशींचे ग्रंथ अशे आसात-पराशरस्मृतिभाष्य, कालमाधव वा कालनिर्णय, जैमिनीय

न्यायमालाविस्तार, वैयासिक न्यायमालाविस्तार, जीवन्मुक्तिविवेक, विवरण प्रमेयसंग्रह आनी पंचदशी.

माधवाचार्याचो 'सर्वदर्शनसंग्रह' हो नामनेचो ग्रंथ आसून ताका भारतीय तत्त्वज्ञानांचो वा दर्शनांचो कोश असो मानला. ह्या ग्रंथांत आस्तिक आनी नास्तिक अशा १६ तत्त्वदर्शनांची थोडे भितर विस्कटावणी केल्या.

माधवाचार्याविशीं 'सर्वज्ञः स हि माधवः' अशी उक्ती आसा. पूण तो फकत विद्येंतूच पारंगत आशिल्लो अशें न्हय, तर ताचें आचरणूय शुध्द आनी निर्मळ आशिल्लें. पिरायेच्या निमाणच्या कालखंडांत 'विद्यारण्य' म्हूण शृंगेरी हांगाच्या शांकर मठाच्या पिठाचेर आचार्य म्हूण अधिश्ठित जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**माधुकरी :** आदल्या काळांतली अन्नपुरवणेची वेवस्था. घरापसून पयस आशिल्ले वा घरची परिस्थिती गरीब आशिल्ले विद्यार्थी आदल्या तेंपार सधन मनशाच्या घराकडेन वचून अन्न मागताले आनी आपली उपजिविका चलयताले. गरीब तशेंच गरजू विद्यार्थ्यांक शिक्षणाचो लाव मेळचो ही भावना माधुकरी फाटल्यान आसली. म्हणून माधुकरी मागप उणेपणाचें समजप जायनासलें आनी माधुकरी दिवप हें पुण्यकर्म मानप जातालें.

जेवणाच्या वेळार दारांत उबो रावन 'ॐ भवती भिक्षा देही' वा 'ॐ भवान भिक्षा ददातू' असो माधुकरीन साद घालो म्हण्टकच घरची बायल वा दादलो माधुकरी मागतल्याच्या आयदनांत घरांत शिजयल्ल्या अन्नाचो . वांटो घालतालीं.

हेच पद्दतीखाला शिजयल्ला अन्नाखातीर वार लावपाची पद्दतय चालंत आशिल्ली. वार लावप म्हळयार थरावीक वारा (दिसा), थरावीक घरांत अन्न घेवप. हाचेच जोडयेक कांय गिरेस्त घराण्यांनी सदची जेवणावळ आसताली आनी थंय गरजू लोकांखातीर अन्नदान जातालें. आजय कांय कडेन ही पद्दत आसा.

माधुकरी मागून शिकिल्ल्यांमदीं भारतांत खूब विद्वान मुखार आयल्यात. गरजेवेळार तांची जेवणाची आयती सोय जाल्ल्यान ते आपलें शिक्षण पुराय करूंक शकले हें माधुकरीचें एक व्हड समाजीक योगदान आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**माध्व संप्रदाय :** मध्वाचार्यान (सु. ११९९- सु. १२७८) स्थापन केल्लो एक भक्तीमार्गी वैशणव संप्रदाय. हो भक्तीमार्ग विष्णुन ब्रह्याक सांगलो आनी ताणें वायूच्या पालवान ताचो प्रचार केलो, अशी कथा आशिल्ल्यान ह्या संप्रदायाक 'ब्रह्म संप्रदाय' अशेंय म्हण्टात. शंकराचार्यान सांगिल्ल्या मायावादाचें आनी अद्वैताचें खंडन करून मध्वाचार्यान द्वैतमताचो पुरस्कार केल्लो आशिल्ल्यान हो संप्रदाय द्वैती आसा. ह्या द्वैत मताक 'स्वतंत्रास्वतंत्रवाद' अशेंय म्हण्टात.

प्रत्यक्ष, अनुमान आनी श्रुती (वेद) हीं ज्ञानाचीं तीन प्रमाणां आसून ह्या तीनूय प्रमाणांनी भेद सिध्द करूं येता; वेद अपौरुषेय आसात, तांकां स्वताप्रामाण्य आसा, जग सत्य आसा, ईश्वर हो जगाचें फकत निमित्तकारण आसा, फकत विष्णुचे उपासनेनूच मोक्ष मेळूं येता, लक्ष्मी, श्रीवत्स आनी जग निर्माण करपाची शक्ती हीं तीन वैभवां जीवाक केन्नाच मेळनात, सगळया दुख्खांचो नाश जावन विष्णुच्या सांगातांत रावप होच मोक्ष आसा, ह्या सिध्दांतांचेर हो संप्रदाय आदारिल्लो आसा.

ह्या संप्रदायांत ईश्वराची उपासना अंकन, नामकरण आनी भजन अशी त्रिविध मानल्या. विष्णुच्या रुपाचें स्मरण जावंचें आनी मोक्षप्राप्ती मेळची म्हूण आपल्या शरिराचेर विष्णुच्या आयुधांचीं चिन्नां वा मुद्रा अंकित करप, हें अंकन जावन आसा. हें अंकन गोपीचंदनाच्या गंधान करतात तशेंच तापयल्ले मुद्रेच्या स्वरुपांतूय करतात. मठांत गेल्यार गुरूकडल्यान ही मुद्रा घेतात. उजव्या दंडाचेर सुदर्शनचक्र आनी दाव्या हाताचेर शंख अंकित करतात. सदांच देवाचें नामस्मरण घडचें, ह्या हेतून भुरग्यांक केशव आदी विष्णुचीं नांवां दवरतात.

संप्रदायाचे अनुयायी शाळीग्रामाच्या रुपान विष्णुची पुजा करतात. गळयांत तुळशीच्यो माळो घालतात. कपलाचेर गोपीचंदनाच्यो दोन उब्यो वळी, तांचे मदी उबी काळी वळ आनी तिचे मदेगाक हळदीचो बिंदू अशी मुद्रा घेतात. गुरूविशीं उपाट आदर आशिल्ल्यान ताचें यादस्तीक म्हूण वृंदावन बांदतात आनी ताची पुजा करतात. हे लोक व्हड प्रमाणांत उपास करतात. पूण वैशणव व्रतांखेरीज हेर व्रतां मान्य नाशिल्ल्यान महाशिवरात्रेक उपास करीनासतनाच पुरणपोळयेचें जेवण करतात.

कर्नाटकांतल्या उडुपीलागसारचें पाजकक्षेत्र ही मध्वाचार्याची जल्मसुवात आसा. तशेंच ताणें उडुपींत श्रीकृष्णाचे मूर्तीची प्रतिश्ठापना केल्ली. ताका लागून उडुपी आनी ह्या गांवचो वाठार हें सांप्रदायिकांचे नदरेन म्हत्वाचें अशें तीर्थक्षेत्र जालां. मध्वाचार्यान कृष्णमंदिरांतल्या धर्मीक कृत्यांची जापसालदारकी आठ शिश्यांचेर सोंपयल्ली आनी तांचेखातीर ह्या भागांत आठ मठांची स्थापणूक केल्ली. त्या शिश्यांचीं आनी मठांचीं नांवां अशीं: ऋषीकेशतीर्थाचो पालीमारमठ, नृसिंहतीर्थाचो अडमारमठ, जनार्दनतीर्थाचो श्रीकृष्णपुरमठ, उपेंद्रतीर्थाचो पुत्तिगेमठ, वामनतीर्थाचो शिरुरमठ, विष्णुतीर्थाचो सोडेमठ, रामतीर्थाचो कणियूरमठ आनी अधोक्षजतीर्थाचो पेजावरमठ. उडुपी हांगाच्या मुखेल मठांशिवाय राघवेंद्रस्वामी मठ, व्यासराय मठ, उत्तराद्रि मठ, भीमनाकट्टेमठ, मूलबागलमठ, सुब्रह्मण्यमठ, मध्यवटमठ हे मठ आसात. संप्रदायाचे अनुयायी चड करून कर्नाटकांतूच सांपडटात.

संप्रदायांत विष्णुच्या फाटोफाट वायुची सुवात मानल्या. हनुमान,

भीम आनी मध्वाचार्य हे वायूचे तीन अवतार मानल्यात. महाभारतांतल्या भीमाच्या वेगवेगळया पराक्रमांपैकीं मणिमत् राकेसाक मारपाची कथा संप्रदायांत सगळयांत म्हत्वाची अशें मानतात. मणिमत् राकेस मोहशास्त्रां निर्माण करपी शंकराचार्याच्या रुपान अवतरलो, तर भीम मध्वाचार्याच्या रुपान, अशें सांप्रदायिक मानतात.

उपनिशदां, ब्रह्मसूत्रां, गीता, मध्वाचार्याचे ३७ ग्रंथ, ताच्या ग्रंथांवयल्यो जयतीर्थ, व्यासतीर्थ आदी टीका हे ग्रंथ संप्रदायाचे प्रमाणग्रंथ आसात. नारायणीय उपनिषदाक खास म्हत्व आसा. पद्मनाभतीर्थ, नरहरीतीर्थ, माधवतीर्थ आनी अक्षोभ्यतीर्थ हे मध्वाचार्याचे नामनेचे शिश्य आशिल्ले.

मध्ययुगांतल्या भारताच्या धर्मीक आनी समाजीक जिविताचेर माध्व संप्रदायाचो व्हडलो प्रभाव पडिल्लो. शंकराचार्याच्या मायावादाक विरोध करून मध्वाचार्यान जी वास्तव भुमिका घेतली, तिका लागून सामान्य मनशाचो आशावाद वाडलो आनी फुडें विजयनगरचें साम्राज्य उबें रावपाक ताचेपसून प्रेरणा मेळ्ळी, अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. चैतन्याचे गुरू माध्व संप्रदायी आशिल्ल्यान चैतन संप्रदायाचेरय माध्व संप्रदायाचो प्रभाव आशिल्लो. कर्नाटकांतलो 'दांसकूट' नांवाचो हरिदास संप्रदाय मध्वानुयायी आशिल्लो. माध्व संप्रदायान देवदासींचे प्रथेक विरोध केला, हें ताचें एक खाशेलपण. तशेंच ताणें यज्ञांत पशूबळी दिवपासुवातेर पिश्टपशू अर्पण कपाचो पुरस्कार केला.

पूरक नोंद : १) द्वैतवाद.

२) शंकराचार्य.

३) राघवेंद्रतीर्थ.

- कों. वि. सं. मं.

**मानगें :** कूळ (Family): अलीगेटोरिडे (Alligatoridae); क्रोकोडीलिडे (crocodylidae); ग्राव्हीयालीडे (Gravialidae) ;गण (order): क्रोकोडीलीया; प्रकार (class) : रेपटीलीया (Reptilia): उदकांत तशेंच जमनीर रावपी हो प्राणी सुमार १.५ मी. ते ६ मी. लांब आसता. भायल्या देशांत मेळपी मानगीं खूब व्हड आसतात. नर मानगें बायल मानग्यांपरस व्हड आसता. ताचें तोंड सुमाराभायर लांब आसून तें चपटें, त्रिकोनी वा वाटकुळें आसता. मानग्याक व्हड जबडो आसता आनी दोनय जबड्यांर घटमूट, तीक्ष्ण आनी आकारान ल्हान-व्हड दांत आसतात. फाट सोडून मानग्याचें सगळें शरीर घट आसता. ताच्या आंगार खापां आसून तीं घट फातरासारकीं आसतात. मानेकडल्यान शेंपडेमेरेन ताचेर घट्ट कांट्यांचे पटे आसतात. ताची शेंपडी दोनयवटेन चेपटी आसता. शेंपडेचो उपेग ताका पेंवपाखातीर जाता. ताका चार पांय आसतात आनी फाटल्या पांयांचीं बोटां पातळ कातडेन जोडिल्लीं आसतात. उदकाच्या वयर पेंवता आसतना तें तकलेचो कांय भाग वयर काडून दोळे आनी नाक पुडयो उदकाभायर दवरता. जमनीचेर सादारणपणान तें फरफटत वता.

मानगें आशिया, आफ्रिका, अमेरिका, ऑस्ट्रेलिया, श्रीलंका आनी भारत ह्या देशांनी मेळटा. मानग्याच्यो जायत्यो जाती आसात आनी तातुंतल्यो दोनच भारतांत मेळटात. पयली क्रोकोडिलस पॅल्युस्टिटस ही गोड्या उदकांत रावपी आनी दुसरी क्रोकोडिलस पोरोसस ही खाऱ्या उदकांत रावपी. मानगीं चडकरून न्हंयेच्या तशेंच खाऱ्या उदकांत रावतात आसलीं तरी तांकां उश्ण प्रदेश आनी चिखल दलदलीचो जागो मानवता.

संवसारांत मानग्याच्यो जायत्यो जाती आसून तातुंतल्यो १३ जाती सांपडटात. नायल मानगें (crocodylus niloticus) सगळया आफ्रिका खंडांत, सहारा वाळवंटांत, आनी मादागास्कर, सिसीलीस ह्या जुंव्यांनी मेळटा. आदल्या तेंपार १०मी. लांबायेचीं मानगीं मेळटालीं. पूण आतां फकत ४-६ मी. लांब मानगीं मध्य



आनी अस्तंत आफ्रिका, तांगानीका हांगा मेळटात. आशिया खंडांत ४ मी. लांबायेचीं मानगीं भारत, ब्रह्मदेश, श्रीलंका ह्या देशांत मेळटात. C. Siamensis जातीचीं ४ मी. लांब मानगीं थांयलंड, इंडोनेशिया, जावा, बोर्नियाे, मलाया, सुमात्रा, हांगा मेळटात. ऑस्ट्रेलिया तेचपरी अमेरिका खंडांतय मानगीं मेळटात.

**राबित्याचो वाठार :** भारतांत मानगीं गंगा, सिंधू, ब्रह्मपुत्रा ह्या न्हंयांनी मेळटात. ह्या मानग्यांक घडियाल (Grania lis gangeticus) म्हण्टात. ह्या मानग्याचें तोंड लांब आसून जबड्यांत ताका खरवती भशेन धारेचे दांत आसतात. गोंयांत न्हंयांनी चिखलांत मानगीं दिसतात. सरकारान बोंडला फार्माचेरय मानगीं पोसल्यांत.

**प्रजनन :** विणीच्या हंगामांत नर आनी मादी मानगीं आवाज आनी वास हांच्या आदारान एकामेकांचो माग काडटात. मादी आपलें प्रजोत्पादन तांतयां घालून करता. तांचीं तांतयां ४०-५० ग्राम वजनाचीं धवीं, घट्ट कवचाचीं आसतात. तांतयांपसून पिलां जावपाक देड-तीन म्हयने लागतात. तांतयांतल्यान भायर पडपाच्या अदमासाक तीं एकतरेचो आवाज काडटात. पिलाच्या तोंडाच्या तोंकार एक अंडदंत आसता जो तांतयाचें दाट कट्टें फोडूंक उपेगी पडटा. उपरांत हो अंडदंत वता. सुरवेक पेट्याचो आवाज बारीक आसता. पूण फुडें फुडें जशे पेटे व्हड जातात तसो तसो तांचो आवाजय वाडटा. ल्हान पेटे जमनींत बिळांनी पांच पांच जाणांचो पंगड करून रावतात. अशें केल्ल्यान तांकां थंडी वाऱ्यापासून राखण मेळटा. चड गरमेंतय ते बिळांत वचून रावतात. ते पंगडांनीच भोंवतात आनी बायल-मानगें तांची राखण करता. केटफिश मानग्याच्या पेट्यांक खाता. ताकालागून ते न्हंयेच्या देगांनी, तणासकयल, झिलींनी, चिखलांत लिपून रावतात. वाडीखातीर पिलांक उश्ण हवामान आनी सावळेची चड गरज आसता. जल्माच्या पयल्या सात वर्सांत तीं दर वर्सा सादारण २६.५ सेंमी.

वाडटात. २२ वर्सांचेर तांची वाड थांबता. मानगीं ८-१२ वर्सांचीं जातकच प्रजोत्पादनाक योग्य जातात.

**खावड :** ल्हान मानगीं किडे, कुल्ल्यो, बेबकां, ल्हान नुस्तें, हुंदीर आनी सुकणीं खातात. मातशीं व्हड जातकच शिल्ल्यो, जिवाणीं आनी भोंवतणीं मेळटात ते प्राणी खातात. पूण व्हड जातकच हीं मानगीं व्हड नुस्तें, कांसव वा मेळटात ते जिवे-मेल्ले प्राणी, जनावरां सुकणीं खातात. मनशांचीं न्हंयेंत मेळिल्लीं मडींय तीं खातात. कचाट्याक मेळिल्ल्या जिव्या मनशाचेर हल्लो करून ताका जखमी अवस्थेंत फाफसुपाक तीं फाटीं रावनात. पोशिल्ल्या मानग्याक मांस, कोंबयो खावपाक घालच्यो पडटात.

**उपेग :** मानग्याच्या चामड्याक खूब मागणी आसता. सुरवेक मानगीं मारून तांचे कातीपसून तरेतरेच्यो वस्तू तयार करताले. हांकां लागून तांची संख्या उणी जावंक लागली. ताका लागून Wild Life Protection and Conservation Act हो कायदो पास करून मानगीं मारपाक मनाय हाडली. मानगयांक प्राणिसंग्रहालयांत पोसतात आनी वाडयतात. भारत सरकारान क्रोकोडायल प्रोजेक्ट सुरू केला.

**रोग :** मानग्यांक (Salmonellosic) हो व्हायरस रोग जाता. पूण रोगाचो विशेश असो परिणाम ह्या प्राण्याचेर जायना.

**खाशेलेपण :** तोंडांत धरिल्लें सावज मानगें उदकावयर उफेतना खातात, उदका सकयल खायना. उदका सकयल खावंक घेतलें जाल्यार तांचो घुस्मटमार जाता. तांची पचन शक्त बरी आसता, ताका लागून तीं खाल्ले केदेय प्राणी पचोवंक शकतात.

- डॉ. ए. एस्. वागळे

## मान, टोमास :

(जल्मः ६ जून १८७५, ल्यूबेक; मरण : १२ ऑगस्ट १९५५, किल्चबर्ग-झुरीक).

नामनेचो जर्मन कादंबरीकार. म्यूनिक हांगाच्या राबित्यांत ताणें थोडो तेंप एके विमा कंपनींत काम केलें. एका नेमाळयाचो संपादक म्हणूनय ताणें काम केलें. 'डेअर क्लाइन हेअर फ्रीडमान' हो ताचो सुरवातीचो कथांझेलो १८९८त उजवाडाक आयलो. टोनिओ क्रोयगर (१९०३), ट्रिस्टान (१९०३) आनी डेअर टोड इन व्हेनेडिग (१९१३) आनी कोयनिग्लिश होहाइट (१९०९) ह्यो ताच्यो कांय उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो जावन आसात.

पयलें म्हाझूज सुरू जातकच एक जर्मन राश्ट्रवादी म्हूण ताका जर्मनीन झुजांत घेतिल्लो वांटो योग्य दिसलो. इंग्लंड आनी फ्रांस ह्या लोकशायवादी राश्ट्रांचेर ताणें टीका केली आनी जर्मनीच्या प्राधिकारवादाचेंय (authoritarianism) ताणें समर्थन केलें. ह्या संदर्भांत ताचो Reflections of a non political man (१९१८) हो ग्रंथ उल्लेख करपासारको आसा.

डिसॉर्डर अँड अर्ली सॉरो (१९२६) आनी 'मारिओ अँड मॅजिशिअन' (१९३०) ह्यो ताच्यो कादंबऱ्यो बऱ्योच लोकप्रिय थारल्यो. मारिओ अँड मॅजिशियन हातूंत ताणें फॅसिस्ट मनोवृत्तीची फोडणीशी केल्या. १९३० उपरांत ताणें नाझी तत्त्वज्ञानाचेर हल्लो केलो. १९३३त जर्मनीची सत्ता हिटलरच्या हातांत गेली, तेन्ना मान आपले बायलेसयत स्वित्झर्लंडाक आशिल्लो. भुरग्यांचे सांगणेप्रमाण जर्मनींत वचनासतना तो स्वित्झर्लंडाकूच रावलो. १९३६त ताचें जर्मन नागरिकत्व रद्द केलें. १९३८ त तो अमेरिकेक स्थायिक जालो. १९४४ त ताका अमेरिकन नागरिकत्व मेळ्ळें. अमेरिकेच्या राबित्यांत ताणें 'द बिल व्हेड रिटर्नस' (१९३९), 'डॉक्टर फाउस्टुस' (१९४७) आनी 'द होली सिनर' (१९५१) ह्यो कादंबऱ्यो पुराय केल्यो.

'योसेफ उण्ट झाइनब्रूडर' ही चार खंडांतली मानची कादंबरी बरीच गाजली. बायबलांतल्या जोसेफची कथा हातूंत सांगल्या. 'The Confessions of Felix Krull, Confidence Man' (१९५४) ही ताची विनोदी कादंबरी जावन आसा. ताणें काय साहित्यिक, राजनीतीक आनी तत्त्वागिन्यानाचेर निबंदूय बरयल्यात. आपले आपजिणेविशींय ताणें कांय निबंद बरयल्यात.

मान हाच्या साहित्यकृतींतल्यान ताच्या तेन्नाच्या काळांतली समाजीक आनी राजनीतीक वास्तवता दिसून येता. १९०१ त उजवाडाक आयिल्ली 'बुड्डेन ब्रुक्स' हे ताचे कादंबरीक संवसारीक नामना मेळ्ळी. हे कादंबरीक १९२९ वर्साचो साहित्याखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो. हे कादंबरींत ताणें एक गिरेस्त घराब्याचो कसो नाश जायत गेला, तें चित्रायलां.

- कों. वि. सं. मं.

## मानवतावाद :

मानवतावादाची एक विचारप्रणाली. हे विचारप्रणालेंत मनशाक मध्यवर्ती सुवात दिवन ताच्या सर्वांगी स्वातंत्र्याचो भौमान करून ताचे प्रज्ञेचेर विश्वास दाखयला. मानवी सामर्थ्य आनी त्या सामर्थ्यावरवीं जावपी ताचे सर्जन शक्तीचें दर्शन, मानवी कुळयेचें कल्याण करपी ताचें बुध्दीप्रामाण्य ह्या मानवा-अंतर्गत घटकांचेर भर दिवपी हें तत्त्वगिन्यान. चवदा ते सोळाव्या शतमानांत, विशेश करून युरोपांत, मानवी ऐहिक जिवन पद्धतीचेर सुमाराभायर भर दिवपी प्रबोधनाची क्रांतिकारी वैचारीक चळवळ सगळयाच मळांचेर सुरू जाली. मनशाचे जिणेचो मानवी परिघाभायलो संबंद पयस करून मनीस कुळयेचो उध्दार मनशाच्याच स्वताच्या सामर्थ्याचेर आनी कृतीचेर आदारून दवरपी प्रबोधन काळांतलो विचार मानवतावादाक प्रेरणा दिवपी जालो.

कला, साहित्य, भास, धर्म ह्या मानव संबंदीत अशा सगळयाच घटकांचो पुर्नविचार जावन ह्या घटकांवरवीं मनशाच्या ऐहिक जिवितांत ताच्या कर्तुत्वाक, कार्यक्षमतेक आनी स्वतंत्र वृत्तीक चालना मेळची हें ध्येय मानवतावादान दवरलें. हें घडटना ह्या सगळया घटकांनी एक व्हड क्रांती

जावन मानवता वादाक पोशक अशी हांगा निर्मिती जाली. वेगवेगळ्या मळांचेर जाल्ली वैचारीक तशी आविश्काराची क्रांती जशी मानवतावादाक पोशक थरली तशें मानवतावादाचे चळवळीनय ते क्रांतीक वैचारीक बळगें दिलें.

शास्त्रीय बुन्यादीचेर आदारीत आनी विज्ञानीक नदर दवरून दर एके संकल्पनेचो स्वतंत्रपणान विचार करप हें मानवतावादाचें मुखेल सूत्र. ह्या सुत्राक लागून मानवी जिविताचें अशास्त्रीयरितीन नियंत्रण करपी राज्य, धर्म सारक्या संस्थांचेर नियंत्रण पयसावन स्वतंत्र, प्रज्ञेचो आनी प्रतिभेचो आविश्कार मानवतावादाक अभिप्रेत जालो. धर्म प्रामाण्याची सुवात बुध्दिप्रामाण्यान घेतली. ताचेवरवीं व्यक्तीची आत्मप्रतिश्ठा राखप जाली. मानवतावाद आनी विज्ञान हांचो सामको लागींचो संबंद आशिल्ल्यान ह्या दोगांयच्या एकत्रिकरणांतल्यान एकामेकांक पूरक असो आदार मेळ्ळो. हातुंतल्यानच फुडें तंत्रज्ञानाचो विकास जावंक पावलो. ह्या विकासावरवीं उद्देगीक क्रांती जाली आनी साम्यवादी विचारसरणीची चळवळ जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**मानवी हक्क :** मनशाचे सैमीक अधिकार. मनीस हो सैमाचो एक अंश. ह्या नात्यान सैमीक नेमाप्रमाण मनशाक कांय सैमीक अधिकार ताच्या जल्मावांगडा प्राप्त जातात. जल्मावांगडा घेवन आयिल्ल्या मनशाच्या ह्या हक्कांत कांय बाह्य शक्ती (राज्यसत्ता, धर्मसंस्था) हस्तक्षेप करूंक लागल्यो आनी म्हणून तांचें संरक्षण करपाचो विचार मुखार आयलो. असो विचार खूब आदल्ल्या काळासावन ग्रीक, रोमन विचारवंतांकडसून जालो. १७व्या शेंकड्यांतलो ह्युगो ग्रासीयस आनी उपरांत मिल्टन, लॉक अशा विचारवंतांच्या बरोबपांतय तो दिसलो. इंग्लंडांतलो मॅग्ना कार्टा कायदो (१२१५), पिटीशन ऑफ रायट्स (१६८९), अमेरिकेंतलो मूलभूत स्वातंत्र्याचो जाहिरनामो (१७९१), फ्रांसाचो व्यक्ती स्वातंत्र्याचो आनी नागरिकांच्या हक्कांचो जाहिरनामो (१७८९), ह्या कायदद्यावरवीं राजसत्तेचेर फाव तें नियंत्रण हाडून लोक प्रतिनिधीक संस्थेचें वर्चस्व राजसत्तेचेर दवरपाक कारणीभूत जालें.

भारताचे घटनेंतय मनशाच्या मूलभूत अधिकाराची फाव ती राखण जाल्ली आसा. फकत सोव्हियत संविधानांत थोडोसो वेगळेतरेन हे संबंदी विचार जालो. तातूंत समाजीक आनी अर्थीक विकासाचेर भर दिता आसतना शासकीय नियंत्रणाचो आस्पाव केलो. दर एका राश्ट्राच्या अंतर्गत करारासारकेच मानवी हक्काच्या रक्षणाचे आंतरराश्ट्रीय करार जाल्यात. ह्या आंतरराश्ट्रीय कराराप्रमाण खंयच्याय राश्ट्रांत मानवी हक्क न्हयकारले तर हेर राश्ट्रां हस्तक्षेप करून मानवी हक्कांक संरक्षण दिवंक शकतात ह्या करारा वरवीं वंश, धर्म, जात, लिंग हांकां लागून मानवी हक्क न्हयकारपाक बंदी आसा. संयुक्त राश्ट्रांच्या जाहिरनाम्याप्रमाण रोजगाराचो अधिकार, समान कामाखातीर समान वेतन, शिक्षणाचो अधिकार, सुटयेचो अधिकार, मजूर संघटना स्थापन करपाचो अधिकार अशा साबार अधिकारांचो आस्पाव आसा.

मानवी हक्कांची राखण जावची आनी त्या हक्कांपसून मनीस वंचीत जावचो न्ही म्हणून मानवी हक्क आयोगाची स्थापना जाल्ली आसा. तो आयोग नागरिकांच्या तक्रारीची दखल घेवन चवकशी करता आनी ते प्रमाण आपलो अहवाल प्रसिध्द करता. तशेंच मानवी हक्क न्यायालयांत न्यायदान करपाची वेवस्था आसा. संवसारांतली गुलामगिरी, वेठबिगारी, वर्णभेद, लिंगभेद सारक्या वायट चालीचें आंतरराश्ट्रीय मळार नियंत्रण करपाक मानवी हक्क आयोगाचो आदार जाता. हे भेद पुरायपणान नश्ट जावंक नासले आनी कांय राश्ट्रां आजुनय आडांगीपणान वागतात आसलीं तरी मानवी हक्क ही संकल्पना लोक मानसांत रुजता आशिल्ल्यान हे संकल्पनेवरवीं मनशाचो वैयक्तीक विकास जावचो, वांगडाच एकंदर मनीस कुळयेचो विकास सादपाची प्रेरणा मानवी हक्काकडसून मेळटा ही व्हड जमेची बाजू.

- कों. वि. सं. मं.

**मानसरोवर :** एक तीर्थस्थान. हिमालयाच्या कैलास पर्वतश्रेणींतलें एक सोबीत तळें आनी हिंदुंच्या ५१ शक्तिपिठांतलें एक पवित्र यात्रास्थान. हें तिबेटच्या नैर्ऋत्य वाठारांत नेपाळचे वायव्येक आसा. ह्या सरोवराचे उत्तरेक कैलास पर्वत, दक्षिणेक गुर्लमादांत पर्वत आनी अ़स्तंतेक राकस जाका राक्षसताल अशेंय म्हण्टात, हें सरोवर आसा. लंकेचो राजा रावण हाणें शिवाक प्रसन्न करून घेवपाखातीर ह्या तळयाचे देगेर बसून तप केल्लें, म्हूण ह्या तळयाक राक्षसताल हें नांव मेळळें अशें म्हण्टात.

ह्या सरोवराची उदेंत-अस्तंत लांबाय २४ किमी., दक्षिण-उत्तर रूंदाय १८किमी. आनी क्षेत्रफळ ५१८ चौ. किमी. आसा. हें समुद्रथरासावन ४,५५७मी. उंचायेचेर आसून जगांतलें सगळयांत चड उंचावयलें, नितळ आनी गोड उदकाचें तळें म्हूण ताची नामना आसा.

ब्रह्मदेवाच्या मनापसून मानसरोवराची उत्पत्ती जाली आनी हेखातीर ह्या तळयाक 'मानसरोवर' हें नांव पडलें, असो वाल्मिकी रामायण आनी पुराणांत उल्लेख आसा. विष्णुन मानसरोवरांत मत्स्यावतार धारण केल्याचो उल्लेख वामनपुराणांत मेळटा. पाली आनी संस्कृत साहित्यांत ह्या सरोवराचे उल्लेख 'अन्नोटा', 'अनवटप्पा तळें' अशे आसात. चिनी भाशेंत ताचो 'मानासालॉवू' असो उल्लेख मेळटा जाल्यार तिबेटी भाशेंत ताका 'मापामत्सो' अशें नांव आसा.

मानसरोवराचे अस्तंतेक १०किमी.चेर आशिल्लें राक्षसताल हें तळें मानसरोवरापरस आकारान व्हड आसा. तें वाटकुळेंय ना आनी चवकोनीय ना. ताचे कितलेशेच फांटे पयस पयस पातळळयात आनी वांकडीं-तिकडीं

वळणां घेवन पर्वतांनी रिगल्यात. मानसरोवराचें उदक 'गंगा चू' न्हंयेंतल्यान राक्षसताल तळयाक मेळटा. तो प्रवाहमार्ग आयजूय दिसता पूण तो भाग आयज चड ऊंच जाल्लो आसा. गंगा चू न्हंयेचे देगेर हून उदकाचे झरे आसात. मानसरोवराचें उदक निळसर दिसता. सरोवराचो चडसो वाठार झेलाचो दिसता. पूण ताच्या तळाकडे हून उदकाचे झरे आसात. ताका लागून तातुंतलें उदक सौम्य शीतळ आसता. मानसरोवरांत विंगड विंगड रंगांचे हंस आसात.

प्रत्यक्षांत मानसरोवरांतल्यान खंयचेच न्हंयेचो उगम जाल्लो दिसना; पूण हाचें उदक भूगर्भांतल्यान व्हांवत वचून उपरांत भूपृश्ठाचेर येता. तेंच खंयचेय न्हंयेचें उगमस्थान थरता. शरयू, सतलज आनी ब्रह्मपुत्रा ह्यो न्हंयो अशोच तयार जाल्यात अशें मानतात.

मानसरोवराची यात्रा करप खूब कठीण. ह्या तळयाकडे वचपाक हिमालयांतल्यान खूब पांयवाटो आसात. अलमोड्यासावन वचपी मार्गच चड सोयीचो समजतात. हो मार्ग सुमार ३३५ किमी. आसा. अलमोड्यासावन गर्बिआंग, लिपुलेख खिंड, उपरांत तक्लाकोट हो तिबेटांतलो पयलो गांव. हांगासावन मानसरोवराची दक्षिण देग सुमार ३२ मैल आसा. प्रवासांत घोड्यांचो वा खेचरांचो उपेग करचो पडटा. ह्या वाठारांत कांट्यांचीं झुडपां सोडून हेर कसलीच वनरपत जायना.

ह्या तळयांत न्हाल्यार आनी ताचें उदक पियेल्यार स्वर्गप्राप्ती जाता असो भाविकांमदीं भावार्थ आसा. इंग्लीश राजवटींच्या काळांत कैलासमानसाक वचपाक पासपोर्टाची गरज नाशिल्ली. पूण तिबेटाचेर चीनाचें आधिपत्य येत सावन आनी चडकरून भारत-चीन संघर्शाक लागून भारतीयांक हे यात्रेक वचपाखातीर दोन राश्ट्रांमदले शासकीय सोपस्कार करचे लागतात.

- कों. वि. सं. मं.

## मानसिंह : (जल्मः सु. १४८६; मरणः सु. १५२६).

मध्ययुगीन हिंदुस्थानी संगीतांतलो गायक, संगीतज्ञ आनी संगीतरचनाकार. ग्वाल्हेरच्या तोमर वा तंवर वंशांतलो हो राजा आशिल्लो. हाणेंच आपली गुजरी राणी मृगनयना हिच्या नांवान 'गुजरी', 'बहुलगुजरी', 'मालगुजरी' आनी 'मंगलगुजरी' हे राग तयार केले. 'मानकुतूहल' हो संगीतशास्त्राचेर बरयल्लो हातबरपाचो ग्रंथ मानसिंहाचे प्रेरणेनूच निर्माण जालो. धृपद गानपद्दतीचो जल्म आनी उदरगत मानसिंहानूच घडोवन हाडली अशें मानतात.

मानसिंहान निर्माण केल्ले राग हालीं प्रचारांत नात पूण ताची गुजरी तोडी मात आयजूय गायतात.

- कों. वि. सं. मं.

## मानसोपचार शास्त्र (Psychiatry) :

मानसिक पिडेचेर उपचार करपी वैजकीशास्त्राचो एक फांटो. ह्या फांट्यांत मानसिक पिडेचें निदान, उपचार आनी रोग टाळपाचे उपाय हांचो अभ्यास जाता. इंग्लीश भाशेंत ह्या शास्त्राक सायकियाट्री वा सायकोलोजिकल मेडिसीन म्हण्टात. मनशाच्यो भावना, विचार, वागणूक, बुध्द, वेळाकाळाचें आनी जाग्याचें भान दवरप आदी मनशाचे वेव्हार मेंदवावरवीं जातात. हे वेव्हार सारके जावप ना म्हळ्यार मानसिक पिडा जावप. कांय खेपे पिडेस्ताची वागणूक सामान्याभायली, समाजीक मान्यतेभायली जाता आनी ताची ती विकृती नदरेंत भरता. कांय जाणांचे बाबतींत वयर वयर पळोवपाक मनीस निरोगी दिसता तरी भितल्ल्यान ताचो तोल सुटिल्लो आसता आनी कालांतरान ताचे परिणाम मनशाच्या वागपाचेर दिसूंक लागतात. मानसिक पिडेचीं कारणां सोदतना बडीची फ्राकेज (genetic predosposition) मज्जातंतु आनी मेंदवाची रचणूक, कार्य आनी जीवरसायनीक क्रिया (Anatomical, Physiological and Biochemical Process of the Nervous System) तेचपरी गर्भावस्था ते जाण्टो जायमेरेन ज्या ज्या कुटुंबिक, समाजीक, संस्कृतीक संस्कारांचो मनशाचेर परिणाम जाल्लो आसता त्या सगळया गजालींचो परामर्श घेवंचो पडटा.

**इतिहास :** वैजकीशास्त्रांत मानसोपचार शास्त्राची सुवात आर्विल्ल्या म्हळ्यार फाटल्या देडशें वर्सांच्या काळांतली. ते आदीं ताचो आस्पाव मानसिक रोग-तत्त्वगिन्यान शास्त्रांत जातालो. वैज आनी धर्मशास्त्री हे तरेच्या पिडांचेर उपाय करताले. सामान्याभायली वागणूक ही देवाचो कोप वा देंवचाराचो मनशाचे कुडींत जाल्लो संचार असो सादारण समज आशिल्लो. जादू करप, करणी काडप, कोंबे-बोकड्याचो मान करप, तावज, दोरे आंगार दवरप, प्रसाद-पाकळी, अवसर घाडी, हे सगळे मानसोपचाराचे प्रकार आशिल्ले. संवसारांतल्या सगळया संस्कृतायांनी ह्या प्रकारचे पुरावे मेळटात.

खिस्ताआदीं सव्या शतमानांत निरिक्षण आनी प्रयोग करून रोगांची समजणी घेवपाकडेन ग्रीक वैजांचें लक्ष गेलें. आल्कमियन हाणें दोळो आनी मेंदू हांचे रचणुकेंतलो संबंद दाखयलो आनी तेन्नाच्यान विचार आनी आत्म्याच्या सुत्रांचें नियंत्रण करपी काळीज न्हय तर मेंदू आसा अशें मानूंक लागले. सोक्रेटीस, प्लेटो, ॲरिस्टोटल आनी हेर तत्त्ववेत्त्यांनी ह्या शास्त्राची संयुक्तिक बुन्याद घालपाचो मोलादीक वावर केलो. आर्विल्ल्या वैजकीशास्त्राचो जनक हिप्पोक्रेटीस (खिस्ताआदीं चवथें शतमान) हाणें देव देवचारांक लागून मानसिक पिडा जावपाची शक्यताय न्हयकारली. ताणें साबार रोगांचीं कारणां आनी वर्णनां बरयलीं. ताच्या शिश्यांनी तशेंच रोमी वैज गॅलन हाणें मेंदवाचे क्रियेचेर फुडलें संशोधन केलें. गॅलनाच्या मरणा उपरांत परतून एक फावट जादू आनी भुतां खेतां वैजकी मळार आयलीं. सद्याच्या विसाव्या शतमानांतय तांचो कांय प्रभाव दिसता. सोळाव्या शतमानासावन विज्ञानीक चिंतनाच्या प्रभावाखाला पॅरासेल्जस, अग्रिप्पा, वेयर, बेकन,

देकार्त, हॉब्स, लॉक, कोन्डीलाक, ह्यूम हांणीं ह्या शास्त्राक शास्त्रीय वाट दाखयली.

एकोणिसाव्या शतमानांत मानसोपचार शास्त्रासंबंदी तीन तरेच्यो चळवळी जाल्यो. **१) मनीसपण आदारीत चळवळ (Humanitarian Movement) :** विज्ञानिक चिंतनांच्या प्रभावाक लागून लोकांची मानसिक पिडेस्तांकडेन मनीसपणाचे भावनेन पळोवपाकडेन आडनदर जाल्ली. फ्रांसेज दोतोर पिनेल हाणें रोग्यांक बेडयो आनी काळखाकुडींतल्यान मुक्त केले आनी मनीसपणाचेर आदारीत अशे उपाय सुरू केले. तांचें खाण जेवण, व्यायाम, काम, सैमीक गरजो हांचेकडेन ताणें हेच भावनेन लक्ष दिलें. हेच तरेचें काम इंगलंडाक टूक हाणें तर अमेरिकेक डोरोथि डीक्स हिणें केलें.

**२) जीवशास्त्रीय चळवळ (Biological Movement) :** १८८३ वर्सा जर्मनीचो एमिल क्रेपलिन हाणें मानसिक रोगाचें पयलें वर्गीकरण केलें. कूड-रचणूकशास्त्र, मानसशास्त्र, रोगशास्त्र, रवंथोशास्त्र, वखदांशास्त्र हातूंत लागिल्ल्या साबार सोदांक लागून मानसोपचार शास्त्राची बुन्याद घटमूट जाली. जीवशास्त्रीय गरजेनुसार आनी रचणुकेनुसार मानसशास्त्रीय परिणाम जाता. हो संबंद लक्षांत घेवन ताच्या संदर्भांत केल्ले उपचार हे चळवळीखाला येतात.

**३) मानसशास्त्रीय चळवळ :** भूलन्हिदेच्या (Hypnotism) प्रयोगांवरवीं ह्या मळार सुरवात जाली. मेस्मर (१७७८) पुयसेगूर, आबे द फारिय, जेम्स ब्रेयड हांणी केल्ल्या अभ्यासावरवीं नामनेचो फ्रांसाचो वैज शारको आनी बर्नहेम हांणी आर्विल्ल्या मानसोपचाराक दिका दिली. तांचो शिश्य सिग्मंड फ्रोयड हाका आर्विल्ल्या मानसोपचाराचो जनक मानतात. आर्विल्ल्या काळार चार तरांचे दृश्टीकोण मानसोपचारकांमदीं दिसताले ते अशे-

१) मानसशास्त्रीय + जीवशास्त्रीय (मेयर १८९२) Psychobiology मनशाची जीवशास्त्रीय, मानसशास्त्रीय आनी समाजशास्त्रीय म्हायती मानसोपचाराक गरजेची आसता.

२) मनोविश्लेशणात्मक (Psychoanalytical) : फ्रोयड, युंग, ॲडलर, एरिकसन, हॉर्नी हांणी ह्या मळार मोलादीक वावर केला. मनाची रचणूक, कार्य विशमता, विकृती, आनी उपचार पद्दत हे संबंदी तांणी सिध्दांत मांडले. व्यक्तित्व म्हळयार एक निसण. जल्मतना फकत एक मांसाचो गुळो आशिल्लो भुरगो दर एका पांवड्याचेर शिकत शिकत, आडखळी पयस करीत मनीस हे पदवेक कसो पावता आनी कांय कारणाक लागून आडखळी तशोच उरल्यो जाल्यार ताच्यांत मानसिक विकृती कशो मूळ धरतात तें तांणीं मांडलें. सुप्त मन, भोगप्रवृत्ती, कामुकता, वैज-पिडेस्त संबंद ह्या विशयावयले सिध्दांत आर्विल्ले मानसोपचारच न्हय तर पुराय वैजकीशास्त्राक फोलेर जावन आसात.

३) व्यक्ति-व्यक्तिमदले संबंद (Interpersonal School) : हेरी स्टॅक सालिवान हाणें भुरगें आनी ताचो आवय बापूय आनी हेर संबंदित व्यक्ति हांचेमदल्या संबंदांक व्यक्तित्व घडणुकेंत आनी मानसोपचारांत मुखेल सुवात दिल्या.

४) मनो-शारिरीक वैजकीशास्त्र (Psychosomatic Medicine) : ताण पडलो की कुडीचेर जायते परिणाम जातात. देखीकः चड राग, भंय. ताण पडटकच अवयवांचे क्रियेंत बदल घडून येतात आनी मागीर मोडशी पडप, पोटखणे, हार्ट ॲटेक, अर्धशीशी, गोडेंमूत, गोर्दुर (मोटसाण) आनी अशीं जायती दुयेसां जावप व्यक्तिवांत वा वातावरणांत शक्य ते बदल घडोवन हाडप, भलायकी सुदारप गरजेचें जावन उरता. ज्या ज्या वेळार मनशाचेर दुख्खां, संकटां कोंसळटात आनी मनीस निर्शेल्लो आसता तेन्नाच कुडीची प्रतीकार शक्त उणी जावन मनशाक सादो जोर ते कांक्र हीं सगळीं दुयेंसां जातात. हें आर्विल्ल्या संशोधनांतल्यान कळ्ळां. ह्या नव्या शास्त्राक (Psycho-neuro-immuno-endocrinology) ह्या नांवान पाचारतात.

**रोग निदान आनी रोग- वर्गीकरण :** पिडेची बारीक म्हायती घेतकच पिडेस्ताक तपासतात आनी जाय आशिल्ल्यो परिक्षा करून रोगनिदान करतात. पिडेस्ताकडल्यान तशेंच संबंदीत व्यक्तिकडल्यान बडीविशीं शारिरीक, मानसिक आनी समाजीक उदरगतीविशीं तशेंच कुटूंबीक आनी सामुहीक वातावरणाविशीं म्हायती मेळयतात. पुराय कुडीची आनी खास करून मेंदू आनी मज्जातंतूची तपासणी जातकच मानसशास्त्रीय परीक्षा वा रगत, मूत, संडास, कण्याचें उदक, क्ष-किरण स्कॅन, इलेक्ट्रोएनसेफेलोग्राम ह्यो परीक्षा जाय जाल्यार मागयतात.

**मानसिक दुयेसांचीं लक्षणां :** कित्यायकितें उलोवप (समजुपाक येना अशें), एकलोच हांसप, एकटोच बडबडत रावप, पुटपुटप आनी कारणाभायर रडप. कारण नासतना तोड, फोड, मोड, करप; समाजांत कशायकशें वागप; मोण्णें मारप, शितीताभायर वचप; कुडीचेर मेल्लो मनीस, भूत, देवी, आयिल्लेभशेन वागप; एकमुळो रावप, लोकांकडेन उलोवप ना.

हेरांक आयकूंक येना तसले आवाज आयकूंक येतात म्हणप वा दुसऱ्याक दिश्टी पडनात त्यो वस्तू दिसतात म्हणप. वास, रूच, स्पर्श ह्या इंद्रियांनीय ह्यो विकृती जावप.

सुमाराभायर उलोवप, खोशी जावप, पयशे वांटीत भोंवप, आपूण व्हडलो मनीस समजप आनी वागप, खूब कामां हातांत घेवप आनी लक्ष लागनाशिल्ल्यान अर्दकुटीं उडोवप. जीव दितलो म्हणप वा जीव दिवपाचो यत्न करप, याद उरप ना, सुमाराभायर पिवप वा माणें लागपी वखदां (ड्रग्स) घेवप, न्हिद पडप ना.

कांय वेळ मनशाक पीडा भोगता पूण दोतोराक कुडीचें कांयच दुयेंस मेळना. तकली परत परत उसळप, कलकलप, आंग दुखप, भूक ना लागप आनी अशोच कुडीच्यो हेर पीडा जावप हीं लक्षणां मानसिक दुयेसांचीं आसूं येतात.

ल्हान भुरगीं शिकपाक फाटीं उरतात, मस्ती करतात, जेवपा खावपाच्यो,

मुतपा-हागपाच्यो, वोंकपाच्यो तक्रारी, हेर भुरग्यांभितर मिसळप ना, कुडीच्यो पिडा, सुमाराभायर भंय, मस्ती हीं लक्षणां मानसिक पीडेंत जातात.

**रोग वर्गीकरण :** सद्याक संवसारीक भलायकी संघटनेच्या (W.H.O.) आंतरराश्ट्रीय रोग वर्गीकरणाची धावी सुदारिल्ली आवृत्ती संवसारभर मानसोपचारतज्ञ वापरतात. (International Classification of Diseases, I.C.D.) तेचपरी अमेरिकन मानसोपचार संघटनेची, चवथी सुदारील्ली आवृत्तीय वापरतात (Diagnostic and statistical Mannual, DSM IV) विंगड विंगड देशांतल्या वैज आनी शास्त्रज्ञांमदीं समजीकाय हाडपाक ह्या ग्रंथाचो खुबूच उपेग जाता. सादारणपणान तीन तरेच्यो मुखेल पिडा दिसतातः १) मेंदवाचे रचणुकेक मार लागून जाल्ल्यो तांतडीच्यो वा दीर्घकाळाच्यो पिडा. २) कमी बुध्दिच्यो पिडा ३) मानसशास्त्रीय पिडा, हातूंत मेंदवाक दिश्टी पडपी मार लागिल्लो नासता. ह्या वर्गांत सायकोसिस, न्यूरोसिस, सायकोटीक, रियेक्शन सायकोसोमेटीक डिसोर्डर आनी पर्सनलिटी डिसोर्डर आस्पावता.

**उपचार :** १) वखदां : सायकोसिस वचपाचीं वखदां, डिप्रेशन वचपाचीं वंखदां, शांतपणा हाडपाचीं वखदां, भैरजोळोप वचपाचीं वखदी.

२) इलेक्ट्रोकन्वलसिव थेरेपि (इ. सि. टी.) पिडेस्ताक उपाशीं पोटार हुंगरीचें इंजेसांव दितात आनी ९० ते १४० वोल्ट वीजेचो प्रवाह एक सेंकद वा कमी वेळ मेरेन यंत्रांतल्यान ताचे तकलेक दितात.

३) उलोवपाचो उपचार - सायकोथेरेपि.

४) खेळ, काम, योग, झेन, बायोफिडबॅक उपचार पद्दत.

**सायको सर्जरी :** शस्त्रक्रिया करून मेंदवाच्या अमूक भागाचें काम उणें/चड करप, जाकालागून पिडेस्ताची त्रासदिणी वागणूक बदलता.

**मानसोपचार शिक्षणः** दरेक देशांत मानसोपचार चिकित्सकांच्यो संघटना आसात. तशोच संवासारीक संघटनाय आसात.

**कायदो आनी मानसोपचार :** इतलो तेंप इंडियन लुनेसी ॲक्ट १९१२ चलतालें. ह्या मळार जाल्ली उदरगत लक्षांत घेवन हालींच भारत सरकारान मेंटल हेल्थ ॲक्ट १९८७ पास केला आनी १ एप्रिल १९९३ ह्या दिसासावन सगळया राज्यांनी तो लागू करचो अशें थारायलां.

- डॉ. राजेंद्र हेगडो.

**मानिला :** फिलिपायन्सची राजधानी आनी मुखेल बंदर. देशाचें अर्थीक, राजकीय आनी समाजीक केंद्र. पसीग न्हंयेच्या त्रिभुज वाठारांत हें शार वसलां. हाचें पयलींचें 'मेनिलाद' हें नांव हांगाच्या एका फुलझाडावयल्यान पडलें. फुडें ताचेंच 'मानिला' जालें. उदेंतेकडल्या ईस्टर्न कॉर्डिलेराच्या रांगांक लागून मानिलाचें उदेंतेकडल्या वादळी वाऱ्यांसावन संरक्षण जाता.

मानिलाचें हवामान ओलसर, उश्ण कटिबंधीय आसा. 'मानिला हॅंप' म्हूण नामनेक पाविल्ल्या ॲबका हे वनस्पतीसावन तयार केल्लें सूंभ जगप्रसिध्द आसात.

सुरवेक हो एक ल्हानसोच मुसलमानी वसतीचो गांव आशिल्लो. मीगेल लोपेस दे लेगास्पी ह्या स्पॅनिश सेनामुखेल्यान न्हंयमार्गान येवन तें १५७१त नश्ट केलें आनी थंय तटबंदी आशिल्लें शार वसयलें. १५७४त चिनी, सतराव्या शेंकड्यांत डच, अठराव्या शेंकड्यांत ब्रिटीश अशीं आक्रमणां आनी सत्तांतरां जायत जायत स्पॅनिश अमेरिकन झुजा उपरांत १८९८ त तें अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानाकडे आयलें. दुसऱ्या म्हाझुजांत १९४२ त मानिला जपानान जिकलें. पूण १९४५ त अमेरिकेन तें परत घेतलें. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत फिलिपायन्सांत स्पॅनिशांआड स्वातंत्र्याची चळवळ नेट धरताली. होसे रिसाल हो राश्ट्रीय फुडारी आशिल्लो. ताका स्पॅनिशांनी १८९६ त जंय मारलो, तेच सुवातेर आयज ताचें यादस्तीक उबें आसा. एमील्यो आगिनाल्दोस (१८६९-१९६४) ह्या फुडाऱ्यान १८९८त देशाचें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. पूण फुडें ताणें अमेरिकेचें शासन मान्य केलें. निमाणें १९४६ त देश स्वतंत्र जालो, तेन्ना मानिला ही राजधानी घोशित जाली. १९४८ त केसॉन सिटी हें मानिलाचें ईशान्येचें ठिकाण राजधानी जालें. १९७६ त राश्ट्राध्यक्षांच्या हुकमावरवीं मानिला परत राजधानी जातकच केसॉन सिटी हें ताचें म्हत्वाचें उपनगर जालें.

मानिलाच्या मदल्यान पसीग न्हंय व्हांवता. तिचे उत्तरेक सात, दक्षिणेक स आनी न्हंयेन वेगळायल्लो एक अशे मानिलाचे वट्ट चवदा प्रशासकीय विभाग आसात. ते स पुलांनी जोडल्यात.

मानिलांत वस्त्रांचे उद्येग, पिठाच्यो आनी तांदळाच्यो गिरणी, डबोबंद खावपाचे पदार्थ, वखदां, प्लास्टीक, सिगारेट आनी तंबाखूचीं उत्पादनां, तोपयो, चामड्याच्यो वस्तू, जोतीं, साकर, खोबरेल, शाबू, मोटारींचे भाग, कंवचेच्यो वस्तू, खिळे, रंग, रबराच्यो वस्तू, रेडिओचे भाग, यंत्रां, फस्कां, बांदकाम साहित्य तयार करपाचे वेवसाय, कारखाने आनी उद्येग चलतात. चडसो आयात-निर्यात वेपार अमेरिकेकडे आनी युरोपीय देशांकडे चलता. मानिलाच्या दक्षिण बंदरांतल्यान सुमार ८५% आयात आनी २०% निर्यात जाता. दक्षिण बंदरालागसार आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. उत्तरेकडलो तोंडो हो विभाग गरीब, मागाशिल्ले दाट लोकवसतीचो आसून थंय बरेच चिनी लोक रावतात. दक्षिणेकडले एर्मिटा आनी मालाटे हे विभाग आर्विल्ले रचणुकेचे जावन आसात. माकाती ह्या उपनगरी भागांत व्हडल्यो इमारती आनी म्हत्वाच्यो वास्तू आसात.

मानिलांत चडशी लोकवसती फिलिपिनोंची आसून सुमार ६% चिनी, कांय अमेरिकन आनी युरोपीय आसात. ९४% लोक रोमन कॅथलिक, २% प्रॉटेस्टंट आनी १% बौध्द आसात. हांगा कितल्योशोच इगर्जी आसात. वॅक वॅक गोल्फ अँड कंट्री क्लब, रिसाल मेमॉरिअल स्टेडियम, आरानेटा कॉलिसियम, नॅशनल म्युझीयम, नॅशनल लायब्ररी, सॅन ऑगस्टीनची पोरनी चर्च ह्यो ओडलायण्यो सुवाती आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**एम्. बॉयर :** पळेयात (बॉयर एम.)

**माने, रंगनाथ महादेव :** (जल्म : २६ सप्टेंबर १९३३, मरापूर, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. तो पीजंट आनी वर्कर्स पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. २९ जुलय १९५५ ह्या दिसा भाई रावूळ हाच्या फुडारपणाखाल पोळें शीमेर सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी काणकोण पोलिस ठाण्यार दवरलो. फुडें २ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा ताची सुटका जाली. १८ ऑगस्ट १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मापारी, बाळा राया :** (जल्मः ८ जानेवारी १९२९, अस्नोडा; बारदेस; मरणः १८ फेब्रुवारी १९५५).

सुटकेझुजारी. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वावुरपी वांगडी आशिल्लो. अस्नोडेंच्या पुर्तुगेज पोलीस ठाण्यार हल्लो करपांत ताचो मुखेल हात आशिल्लो. पूण पोलिसांचें बळगें चड आशिल्ल्यान तांणी सगळ्या क्रांतिकारांक धरले. फेब्रुवारी १९५५ त पोलिसांनी ताका धरून ताचो शारिरीक छळ करून ताचेकडल्यान हेर वांगड्यांची खबर काडपाचे जायते यत्न केले. पूण ताणें न्हयकार दितकच ताका खूब मारलो. त्या त्रासांनी ताका पोलीस ठाण्यांतच मरण आयलें.

१८ जून १९८३ ह्या दिसा गोंय सरकारान, तशेंच भारत सरकारानय ताका ताम्रपट दिवन ताचो मरणोत्तर भोवमान केलो. सुटके झुजांतल्या ताच्या मोलादीक वावराखातीर शिरगांवच्या रस्त्याक ताचें नांव दिलां. अस्नोडा गांवांत ताचें यादस्तीक म्हूण ताचो पुतळो उबारला.

- कों. वि. सं. मं.

**मापारी, रोहिदास पांडुरंग :** (जल्म : १२ डिसेंबर १९२४, अस्नोडा, बारदेश; मरणः २८ सप्टेंबर १९५६, आग्वाद).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. प्रभाकर सिनारी हाच्या फुडारपणाखाल अस्नोडा पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत तो फुडें आशिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी १८ म्हयने बंदखणींत दवरलो. बंदखणींत पोलिसांनी ताका सुमारभायर त्रास दिल्ल्यान बंदखणींतच ताका मरण आयलें. भारत सरकारान ताचो मरणाउपरांत भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**माफिआ :** संघटीत गुन्यांवगारीक मेळिल्लें संवसारीक नांव. फाटल्या कांय वर्सांत जगांतल्या कितल्याशाच देशांतल्यो टोळयो स्वताक 'माफिआ' म्हणून घेतात. मुळांत हे संघटनेचो उदय तेराव्या शतमानांत सिसिलींत जालो. तेउपरांत कितलींशींच वर्सां इटलींत परकीय सत्ता आशिल्लीच, तरीकूय माफिआ संघटना तिगून उरली. कारण हीं परकीय सरकारां खूब जुलमी आशिल्ल्यान सिसिली जुंव्यावयल्या लोकांनी म्हळयार प्रजेकडेन परकीय सत्तांचे संबंद पयसावले आनी ताका लागून माफिआ संघटनेची खाजगी न्यायदानाची पद्दत तिगून उरली. माफिआ संघटनेंतले लोक भ्रश्ट सरकारी अधिकाऱ्यांक आनी गिरेस्तांक गरीब लोकांचे दुस्मान समजताले. गिरेस्त लोकांकडल्यान हाडिल्ले लुटींत गरीब लोकांवांगडाच माफिआच्या फुडाऱ्यांचोय वांटो आशिल्लो. माफिआ संघटनेन स्वताची अशी न्यायदानाची पद्दत तयार केल्ली आनी ती बरीच घुस्पागोंदळाची आशिल्ली. अन्याय जातकच सूड घेवपाचो अधिकार फकत अन्यायाक बळी पडिल्ले व्यक्तीक आनी तिच्या कुटुंबाक आसता, अशें हे पद्दतीचें सूत्र आशिल्लें.

१९२० वर्साचे सुरवेक इटलींत मुसोलिनीचे कारकिर्दींत माफिआ संघटना लागीं लागीं पुराय सोंपिल्ली. पूण तेउपरांत पंचवीस वर्सांनी मतींत आयलें की ही संघटीत गुन्यांवकारी पुराय नश्ट जावंक नाशिल्ली. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत घडून आयिल्ल्या जमीन सुदारणांक लागून मध्य आनी अस्तंत सिसिलींतल्या गांवगिऱ्या भागांतल्यान माफिआचो प्रभाव उणो जालो आनी तिच्यो कारवायो शारी भागांतले उद्येगधंदे, बांदकाम आदी वेवसायांत सुरू जाल्यो. माफिआ संघटनेंतल्या म्हत्वाच्या फुडाऱ्यांक लागसारच्या जुंव्याचेर हद्दपार करपाचे यत्न हालींच्या काळांतूय जाल्यात.

एकुणिसाव्या शतमानाचे अखेरेक आनी विसाव्या शतमानाचे सुरवेक सिसिली आनी इटलींतल्यान कितल्याशाच लोकांनी स्थलांतर करून तातूंत माफिआ संघटनेंतल्या कांय लोकांचोय आस्पाव केल्लो. हे लोक खास करून दक्षिण अमेरिकेच्या कांय भागांत आनी अमेरिकेंत गेले आनी तांणी आपल्या कारवायांक उपेगी पडटली अशी परिस्थिती निर्माण केली. १९३० चे सुरवेक, अमेरिकेंतल्या संघटित गुन्यांवकारीच्या जगाची माफिआ संघटना एक मुखेल भाग जाली. इतलेंच न्हय, तर ही संघटना सगळ्यांत मोटी आनी सगळ्यांत बळिश्ट जाली. अमेरिकेंतल्या माफिआचें स्वरूप सिसिलींतल्या माफिआसारकेंच आशिल्लें. हालींच्या काळांत ही संघटना स्वताक कोसा नॉस्ट्रा (Cosa Nastra) अशें म्हणून घेता.

माफिआंतल्या दर एका गटाचो किदें तरी फायदेशीर वेवसाय आसतालो. देखीक- हॉटेलां वा खाणावळी चलोवप, खावपाच्या जिनसांचें उत्पादन करपी कंपनी स्थापन करप, यंत्र सामुग्रीची किरकोळ विक्री करप आदी. असो कायदेशीर वेवसाय हे संघटनेंतलो एक गट करता, तर शिंदळकी वेवसाय, जुगार, अंमली पदार्थांची विक्री हे बेकायदेशीर वेवसाय दुसरो गट करता. दोनूय गट गुन्यांवगारी करतना एकामेकांक पूरक अशो हालचाली करातात.

- कों. वि. सं. मं.

**मामा परमानंद :** (जल्म : जुलय १८३८ माणगांव; मरण : १३ सप्टेंबर १८९३ मुंबय).

प्रार्थनासमाजाचो एक संस्थापक. पुराय नांव नारायण महादेव परमानंद. पूण मामा परमानंद ह्या नांवान ताका चड वळखतात. ताच्या जल्माच्या दुसऱ्याच वर्सा ताचो बापूय महादेव हाका मरण आयलें. आवय गंगाबाई हिणे आपल्या भावाच्या आदारान, आशिल्लें दुकान चलोवन मामाचें मुळावें शिक्षण पुराय केलें. फुडल्या शिक्षणाखातीर तो मुंबय गेलो. कश्टी आनी हुशार विद्यार्थी आशिल्ल्यान ताणें जायत्यो शिश्यवृत्त्यो मेळयल्यो आनी पयल्या वर्गांतलो 'स्कॉलर' म्हूण नामना मेळयली. मुंबय विद्यापिठाची स्थापणूक जातकच ताणें मॅट्रिकची परीक्षा दिली आनी उपरांत बी. ए. परीक्षेक बसलो. पूण अर्थीक अडचणींक लागून ताणें शिक्षण सोडलें आनी एलिफिन्स्टन हायस्कूलांत शिक्षकाची नोकरी धरली. थंय ताच्या हाताखाला नामनेचे संशोधक काशिनाथपंत तेलंगासारके जायते नामनेचे विद्यार्थी तयार जाले. फुडें ताची सिंध हांगासर बदली जाली. पूण थंयची हवा मानूंक नाशिल्ल्यान तो परत मुंबय आयलो. शिक्षकी पेशा सोडून वृत्तपत्र संपादन आनी लेखनाचें क्षेत्र ताणें आपणायलें. 'इंदूप्रकाश', 'नेटिवओपिनिअन', 'इंडियन स्पेक्टॅटर' आनी सुबोध पत्रिका ह्या खबरापत्रांची जापसालदारकी ताणें सांबाळ्ळी. संस्थानी कारभार आनी ताची सुदारणा हे विशीं ताणें बरयल्ल्या अभ्यासपूर्ण लेखांक लागून कच्छच्या संस्थानिकान ताची नायब दिवाण म्हूण नेमणूक केली. पूण थंयच्या घुस्पागोंदळाच्या कारभाराक लागून ताणें राजीनामो दिलो आनी तो परत मुंबय आयलो. भारतीय लोकांचो इश्ट आनी बरें मागपी सर विल्यम वेडरबर्न हो मुंबय उच्च न्यायालयांत निबंधक आशिल्लो. योग्यता आनी कुशळताय पळोवन ताणें मामाची उपप्रबंधक म्हूण नेमणूक केली. फुडें ताणेंच मामाक मजूर खात्याचो सेक्रेटरी केलो आनी उपरांत मामा महसूल आनी सामान्य खात्याचो अधिक्षक जालो. मुंबय प्रार्थनासमाजाखातीर तो निश्ठेन वावूरतालो. धर्म सुदारलेबगर देशाची उदरगत जावचीना अशें ताचें मत आशिल्लें. 'सुबोध पत्रिका' ह्या प्रार्थना समाजाचे वतीन उजवाडा येवपी खबरापत्रांखातीर ताणें निमाणे मेरेन बरोवप केलें.



हिंदी राजकारणाविशीं ताचो सखोल अभ्यास आशिल्लो. सयाजीराव गायकवाड, सर विल्यम वेडरबर्न, रानडे, तेलंग, चंदावरकर, मलबारी, मोतीलाल घोष सारकिल्ले ताचेकडेन सल्लो घेवपाक येताले.

'पितृबोध' ह्या ताच्या पुस्तकाचो इंग्लीश, मराठी आनी गुजराती भाशेंतूय अणकार जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**मायकेल, अँजेलो :** (जल्म : ६ मार्च १४७५, काप्रेसे; मरण : १८ फेब्रुवारी १५६४, रोम).

एक म्हान इटालियन चित्रकार, मूर्तिकार आनी वास्तुकार. ताचें पुराय नांव मायकेल अँजेलो ब्वॉनारॉती.

पिरायेच्या तेराव्या वर्सा फ्लॉरेन्स हांगा मायकेल हाणें गिर्लांदायो ह्या चित्रकाराच्या हाताखाला काम केलें. एका वर्सा उपरांत फ्लॉरेन्सचो राज्यकर्तो लोरेन्झो दे मेदीची हाच्या संग्रहांतल्या पुर्विल्ल्या रोमन कलाकृतींचो अभ्यास करपाची ताका संद मेळ्ळी.

'मॅडोना ऑफ द स्टेअर्स' हें शिल्पसंगमरवरांतलें शिल्प ताणें पिरायेच्या सतराव्या वर्साच तयार केलें. १४९१-९२ वर्सा ताणें 'बॅटल ऑफ लॅपिथ्स अँड सेंटॉर्स' हें दुसरें संगमरवरी शिल्प घडयलें. शिल्प-निर्मितीवांगडाच ताका काव्य तशेंच तत्त्वज्ञानाची आवड आशिल्ली. १४९६-९७ वर्सा ताणें रोम हांगाचे 'बॅकस' हे मद्यदेवतेचो व्हडलो पुतळो तयार केलो.

प्रबोधनकाळ हो युरोपांत नवे जागृतायेचो आनी नवे निर्मणेचो काळ आशिल्लो. ग्रीक संस्कृताय आनी तत्त्वविज्ञान हांच्या अभ्यासाचो किरिस्तांव धर्मीक प्रवृत्तीकडे मेळ घालप सुरू जालें. प्रबोधनकाळाचे हे फाटभुंयेचेर मायकेल अँजेलोची कारकीर्द सुरू जाली. ग्रीक बुध्दिवादान प्रेरित जावन ताणें बुध्दिवाद आपणायलो, पूण मध्ययुगांतल्या क्रिस्ती धर्म गिन्यानाक तो इतलो दशिल्लो की ताचो गोंदोळ जालो.



मायकेल अँजेलोचें पाशाणी शिल्प (मेरीचे मांडयेर खुर्सार मारिल्लो जेजू)

ग्रीक संस्कृतायेंत मनशाचें कर्तूप आनी प्रतिश्ठा हांकां जें म्हत्व आशिल्लें ताची फेर स्थापणूक प्रबोधनकाळांत केली. मनशाचे कुडीचेर अचूक प्रमाणबध्दतेचे सोबीतकायेचे निकश पळोवपाक सुरवात जाली. हाचो प्रभाव मायकेल अँजेलोचे कलेचेर पडलो. 'डेव्हिड' (१५०१-१५०४) हें शिल्प हेविशींचें एक बरें उदाहरण जावन आसा. मायकेल अँजेलोच्यो सगळयोच मानवाकृती एके खाशेले भावनात्मक अवस्थेंतल्यान काडिल्ल्यो दिसतात. तटतटील्ल्या स्नायूंनी आनी हालचालींवरवीं दाखयल्ली ताची अस्वस्थताय हातुंतल्यान ताची स्वताची आंतरीक तळमळ प्रगट जाता. ताच्या स्त्रिचित्रणांतल्या राकट दादलेपणाक लागून ताका बायलांविशीं तिरस्कार आशिल्लो अशें मर्व्हिन लेव्ही ह्या

आंग्ल समीक्षकान आपल्या एका ग्रंथांत म्हळां. 'प्येता' (१४९८) ह्या शिल्पांतलें माता मेरी हें चित्र सोडून हेर खंयच्याच ताच्या चित्रांनी वा शिल्पांनी बायलेची शालीनता दिसना. प्रबोधनकाळांत त्याच वेळार फळयांचेर चित्रां काडपाक सुरवात जाल्ली. पूण मायकेल अँजेलोक ही मर्यादीत चित्रांची पद्दत मानवली. आदिमानवान जशीं आपले गुहेच्या वण्टींचेर आनी पाख्यांचेर चित्रां रंगयलीं, तशींच मायकेल अँजेलोन चर्चीच्या वण्टींचेर, पांख्यांचेर चित्रां रंगयलीं. रोमांतलें 'सिस्टाइन चॅपेल' हे चर्चीच्या पांख्याचेर ताणें अशींच मनभुलोवणी चित्रां रंगयल्यांत. ह्या चित्रांचे विशय चडशे बायबलांतले आसात. ह्याच चित्रांतलें ताचें 'क्रिएशन ऑफ आदम' हें चित्र कलेचे नदरेन अमर थारलां. हेच चर्चीचे वेदीचे फाटले वण्टीचेर ताणें काडिल्लें लास्ट जज्मेंट (१५३७-४१) हें चित्र मन भारावन उडयता.

शिल्पकलेकडे वतकच ताणें चडशीं शिल्पां संगमरवरी फातराचेरूच कोरांतलीं. १५१३-१६ ह्या काळांत ताणें घडयल्लें 'डाइंग स्लेव्ह' हें शिल्प ग्रीक काळांतल्या लोकून ह्या नामनेच्या शिल्पाची याद करून दिता. वास्तुकलेचो पद्दतशीर अभ्यास करून ताणें व्हड व्हड इगर्जी, राजवाडे, प्रवेशदारां उबारलीं. रोमांतली 'सेंट पीटर्स' ही मायकेल अँजेलोन बांदिल्ली इगर्ज म्हळयार एक व्हड अप्रुप जावन आसा. ही ओडलायणी वास्तू मळबांत लकता काय? असो भास जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## मायकेलसन, आल्बेर्ट आब्राहाम :

(जल्म : १९ डिसेंबर १८५२, शट्रेल्नो-प्रशिया; मरण : ९ मे १९३१, पॅसाडीना).

नामनेचो अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ. भुरगेपणांतूच ताणें आवयबापायवांगडा अमेरिकेक सॅन फ्रांसिस्को हांगा स्थलांतर केलें. ॲन्नापोलिस (मेरिलँड) हांगाच्या युनायटेड स्टेट्स नेव्हल ॲकॅडेमींत शिक्षण घेवन १८७३ त ताणें पदवी मेळयली. तेउपरांत दोन वर्सां वेस्ट इंडीजांत दर्या पर्यटन करतकच ताणें ॲकॅडेमीतूच १८७५-७९ ह्या काळांत भौतिकीय शास्त्रांतलो निदेशक म्हूण काम केलें. तेउपरांत दोन वर्सां ताणें बर्लिन, हायडल्बर्ग आनी पॅरिस हांगाच्या विद्यापिठांत भौतिकीचें शिक्षण घेतलें. १८८१ त ताणें नाविक दलाचो राजीनामो दिलो. १८८३ त अमेरिकेक परततकच क्लीव्हलँड (ओहायओ) हांगाच्या केस स्कूल ऑफ ॲप्लाइड सायन्स हे संस्थेंत तो भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक जालो.

फुडें १८९० त तो वुस्टर (मॅसॅचूसेट्स) हांगाच्या क्लार्क विद्यापिठांत प्राध्यापक जालो आनी उपरांत नव्यानूच स्थापन जाल्ल्या शिकागो विद्यापिठांत १८९२ त भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक आनी पयलो विभाग मुखेली जालो. पयल्या म्हाझुजांत तो राखीव अधिकारी म्हूण नाविक दलांत गेलो. १९१८त तो शिकागो विद्यापिठांत परतलो. फुडें १९२९त पॅसाडीना हांगाचे मौंट विलसन वेधशाळेंत काम करपाखातीर ताणें शिकागो विद्यापिठांतल्या आपल्या पदाचो राजीनामो दिलो.

मायकेलसन हाचें मुखेल कार्य प्रकाशकीविशींचें आसा. उजवाडाचो वेग अचूकपणान मेजपाखातीर ताणें खूब प्रयोग केले. १८७९त ताणें जे. बी. एल्. फूको हाच्या उपकरणांत सुदारणा करून उजवाडाच्या वेगाचें चड विश्वसनीय मेजप केलें. १८८३ त ताणें काडिल्लें २,९९,८५३ किमी./से. हें उजवाडाच्या वेगाचें मोल बरींच वर्सां सर्वोत्तम अशें मानताले. उजवाडाच्या निरीक्षित वेगाचेर धर्तरेचे गतीचो किदें परिणाम जाता काय किदें हें पळोवपाखातीर युरोपांत आसतना ताणें ताच्या नांवान वळखुपांत येवपी व्यतीकरण मापक हें उपकरण तयार केलें. ह्या उपकरणाचो उपेग करून मॉर्ली हाच्या पालवान ताणें १८८७ त ताचो प्रयोग केलो. ह्या प्रयोगाचो मुखेल हेत धर्तरी सूर्यसापेक्ष सर्वव्यापी ईथरांतल्यान घुंवता आसतना ईथराक लागून उजवाडाच्या वेगांत कितलो फरक पडटा, तें मेजून ताचे वयल्यान धर्तरेचो ईथरसापेक्ष वेग म्हळयारूच निरपेक्ष वेग मेजप हो आशिल्लो.

मायकेलसन हाणें आपल्या व्यतीकरणमापकावरवीं उजवाडाच्या तरंगलांबायेच्या रुपांत खूब अचूकपणान अंतर मेजूं येता, अशें दाखयलें. ताचेवयल्यान ताणें उजवाडाच्या एकाद्र्या खाशेल्या तरंगलांबायेच्या अंतराचें मानक (प्रमाण) म्हूण उपेग करचो, अशें सुचयलें. ही सुचोवणी १९६०त सर्वमान्य जाली. १८९३ त ताणें वजनां आनी मापां हांचेविशींच्या आंतरराश्ट्रीय समितीचे विनंतीवयल्यान मानक मीटरची लांबाय तापिल्ल्या कॅडमियमान उत्सर्जित केल्ल्या तांबड्या उजवाडांच्या तरंगलांबायेच्या रुपांत मेजली. ताणें सोपान वर्णपटदर्शक ह्या उपकरणाचो सोद लायलो. म्हाझूजकाळांत ताणें नाविक दळाक उपेगी अशा उजवाडाच्या उपकरणांविशीं संशोधन केलें. ताणें तयार केल्लीं अचूक उजवाडाचीं उपकरणां आनी ताचे वरवीं ताणें केल्लें वर्णपटविज्ञान आनी मापनविज्ञान हातूंतलें संशोधन हांचेखातीर मायकेलसन हाका १९०७ वर्साच्या भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो. ताका आनीकूय कितलेशेच भोवमान फाव जाल्यात.

उजवाडाचो वेग मेजप आनी अमेरिकन रसायनशास्त्रज्ञ एडवड विल्यम्स मॉर्ली (मोर्ले) हाच्या पालवान ताणें धर्तरेच्या भोंवतणच्या अवकाशांत तिचे गतीविशीं केल्लो प्रयोग हाचेखातीर तो नामनेक पावला. हो प्रयोग फुडें आल्बर्ट आइन्स्टाइन हाणें मांडिल्ल्या सापेक्षता सिध्दांतांत म्हत्वाचो थरलो. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं: Light Waves and their uses(१८९९-१९०३), Velocity of Light (१९०२) आनी Studies in Optics (१९२७).

- कों. वि. सं. मं.

## मायनट (मिनो), जॉर्ज रिचर्ड्स :

(जल्म : २ डिसेंबर १८८५, बॉस्टन; मरण : २५ फेब्रुवारी १९५०, ब्रुकलिन-मॅसॅचूसेट्स).

नामनेचो अमेरिकन वैज. ताणें हार्वर्ड कॉलेजांतल्यान ए. बी. (१९०८) आनी हार्वर्ड मेडिकल स्कुलांतल्यान एम्. डी. (१९१२) ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. बॉस्टन हांगाच्या मॅसॅचूसेट्स जनरल हॉस्पिटलांत १९१५-२३ ह्या काळांत संशोधक म्हूण ताणें काम केलें. त्या वेळार ताणें रगता विकृतीविशीं संशोधन केलें. हार्वर्ड विद्यापिठांतल्या कॉलिन्स पी. हटिंग्टन मेमोरियल हॉस्पिटलांत मुखेल वैज म्हूण (१९२२-२८), तशेंच बॉस्टन हांगाच्या पीटर बेंट ब्रिगम हॉस्पिटलांत वैजकी सहयोगी म्हूण (१९२३-२८) ताणें काम केलें. १९२८ उपरांत अखेरमेरेन तो हार्वर्ड विद्यापिठांत वैजकीचो प्राध्यापक, तशेंच बॉस्टन सिटी हॉस्पिटलांतल्या थॉर्नडाइक मेमोरियल लॅबोरेटरीचो संचालक आशिल्लो.

मायनेट हाणें मर्फी हाचेवांगडा त्या काळांत असाध्य अशा मानिल्ल्या मारक पंडुरोगाच्या कारणांचेर संशोधन केलें. मारक पंडुरोगाच्या पिडेस्तांच्या आहारांत उणाव आशिल्ल्याची मायनट हाची खात्री जाल्ली. त्याच काळांत व्हियल हाणें उपाट रक्तस्रावान पंडुरोग उत्पन्न केल्ल्या सुण्यांक कच्चें यकृत खावपाक दिल्यार रोग बरो जाता, अशें दाखयल्लें. १९२६त मायनट आनी मर्फी हांकां अशें दिसून आयलें, मारक पंडुरोग जाल्ल्या मनीस पिडेस्ताक दीसपट्टें गायच्या मांसांतलें सुमार ०.२किलो कच्चें यकृत आहारांतल्यान दिल्यार दुयेंसाचेर गूण येता, ह्या उपचाराक 'मायनट-मर्फी उपचार' वा 'मायनट-मर्फी आहार' म्हूण वळखतात. असांसर्गिक रोगांचे चिकित्सेंतलो हो एक म्हत्वाचो टप्पो अशें समजतात. अमेरिकन रसायनशास्त्रज्ञ एडविन जे. कोन हाच्यावांगडा मायनट हाणें परिणामकारक यकृत-अर्क तयार करपाक यश मेळयलें. १९४८ मेरेन असो अर्क तोंडावटेन दिवप ही पंडुरोगावयली प्रमाणभूत मुळावी चिकित्सा अशें मानताले. त्या वर्सा यकृत-अर्कांतलो एक रोग-निवारक घटक वेगळो करपाक शास्त्रज्ञांक यश मेळ्ळें आनी ताका ब१२ जीवनसत्व अशें नांव दिलें.

मायनट आनी ताच्या कितल्याशाच विद्यार्थ्यांनी १९२६ उपरांतच्या दशकांत केल्ल्या संशोधनाक लागून नैदानिक रक्तविज्ञानाक एक नवी दिका मेळ्ळी. ताका लागून रक्त-उत्पादनक आनी रक्तनाशक इंद्रियांच्या आकारवैज्ञानिक अभ्यासाची सुवात तांच्या कार्याच्या गतिकीय मापनान घेतली. मायनट आनी ताच्या वांगड्यांनी रक्ताधान, रक्तक्लथन रक्तबिंबाणू हांचेविशींच्या अभ्यासाचें मुळावें कार्य केलें.

मारक पंडुरोगा वयले यकृत चिकित्सेच्या सोदाखातीर ताका विल्यम पॅरी मर्फी आनी जॉर्ज हायट व्हिपल हाच्यावांगडा १९३४ वर्साचो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञान ह्या विशयांतलो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो. रक्तविज्ञानांत मायनट हाणें केल्लें कार्य मोलादीक आसा.

विल्यम बी. कासल हाच्या पालवान मायनट हाणें 'Pathological Physiology and Clinical Description of the Anaemias' (१९३६) हो ग्रंथ बरयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मायर, मारीआ गोपर्ट :** (जल्मः २८ जून १९०६, काटोव्हित्स- जर्मनी).

नामनेची जर्मन अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ. १९२४ त तिणें गटिंगेन विद्यापिठांत प्रवेश केलो आनी माक्स बोर्न हाच्या मार्गदर्शनाखाला संशोधन करून १९३० त तिणें भौतिकशास्त्राची पीएच्.डी. पदवी मेळयली. त्याच वर्सा तिणें जोसेफ ई. मायर ह्या अमेरिकन भौतिकीय रसायनशास्त्रज्ञाकडे लग्न केलें आनी ताचेवांगडा बॉल्टिमोर हांगाच्या जॉन्स हॉपकिन्स विद्यापिठांत संशोधनाखातीर गेली. थंय तिचो घरकार आनी कार्ल एफ्. हर्झफेल्ड हाच्यावांगडा तिचे कितलेशेच निबंध उजवाडाक आयले. १९३३ त तिका अमेरिकेचें नागरिकत्व मेळ्ळें.

१९३९त ती कोलंबिया विद्यापिठांत गेली आनी थंय तिणें सेरा लॉरेन्स कॉलेजांत शिकयलें. पूण खास करून अमेरिकेच्या अणुबाँब प्रकल्पाखातीर उबारिल्ल्या एस्. ए. एम्. लॅबोरेटरींत युरेनियमाचे समस्थानिक वेगळे करपाविशीं तिणें संशोधन केलें. १९४६ त ती शिकागो विद्यापिठाच्या भौतिकशास्त्र विभागांत आनी इन्स्टिट्यूट फॉर न्यूक्लिअर स्टडीज हे संस्थेंत प्राध्यापिका जाली. ह्याच वेळार ती अमेरिकेच्या अणुऊर्जा मंडळाच्या ऑर्गॉन नॅशनल लॅबोरेटरींतूय संशोधन करताली. १९६० त, ला हॉइया हांगाच्या कॅलिफॉर्निया विद्यापिठांत ती भौतिकशास्त्राची प्राध्यापिका जाली.

'Statistical Mechanics' हो घोवावांगडा बरयल्लो ग्रंथ तिणें १९४० त उजवाडायलो. १९४८ पयलीं तिचें कार्य रेणवीय रचणूक, घन अवस्था सिध्दांत, प्रावस्था परिवर्तन सिध्दांत आनी सांख्यिकीय यामिकी ह्या विशयांविशीं आशिल्लें. १९४८ उपरांत तिणें अणुकेंद्रीय भौतिकशास्त्रांत संशोधन करपाक सुरवात केली. अणुकेंद्रांतल्या संवृत्त (बंद) कवचांच्या लक्षणांचो तिणें परत सोद लायलो आनी पयलीं ताच्या अस्तित्वाविशीं सांपडिल्ल्या सूचक लक्षणांक ताका लागून आदार मेळ्ळो. संवृत्त कवचयुक्त अणुकेंद्रां हेर अणुकेंद्रांपरस चड थीर आनी खूब प्रमाणांत आसतात, तांच्यो पयल्यो उत्तेजित अवस्था खूब उच्च आसतात आनी संवृत्त इलेक्ट्रॉन कवचां आशिल्ल्या अक्रिय वायूसारके तांचे गुणधर्म आशिल्ल्याचें दिसून येतात.

मायलर हाणें असो निश्कर्श काडलो की अणुकेंद्राचे घटक म्हळ्यार प्रोटॉन आनी न्यूट्रॉन. हांकां पयलीं शास्त्रज्ञांक दिसताली, ताचेपरस चड आनी एकामेकांपरस स्वतंत्र गती आसता. अणुकेंद्रांतल्या घटकांच्या परिवलनाची दिका अणुकेंद्रीय कक्षांच्यो ऊर्जा निर्धारित करपाखातीर म्हत्वाच्यो आसतात असोय सोद ताणें लायलो. १९४९ त ताणें अणुकेंद्रीय कवच सिध्दांताच्या आदारान कूट अंकांचें स्पश्टीकरण दिलें. हेखेरीज हेर कितल्याशाच अणुकेंद्रीय घडणुकांचेंय विश्लेशण ताणें ह्या सिध्दांताच्या आदारान केलें.

ह्याच सुमाराक येन्झेन हाणेंय स्वतंत्रपणान ओटो हॅक्सेल आनी हान्स एफ. स्यूस हांच्या पालवान अणुकेंद्रीय कवच प्रतिमानाचो सिध्दांत मांडिल्लो. फुडें येन्झेन आनी मायर हाणें एकामेकांच्या पालवान Elemen-

tary Theory of Nuclear Shell Structure हो ग्रंथ बरयलो आनी तो १९५५ त उजवाडाक आयलो.

अणुकेंद्राच्या कवच प्रतिमानाचो (Model) सोद आनी ताच्या आदारान वेगवेगळ्या अणुकेंद्रीय घडणुकांचें मांडिल्लें स्पश्टीकरण हाचेखातीर मायर हाका योहानेस हान्स डानियल येन्झेन आनी यूजीन पॉल विग्नर हांच्या वांगडा १९६३ वर्साचो भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो. नोबॅल पुरस्काराची अर्दी रक्कम मायर आनी येन्झेन हांकां आनी अर्दी विग्नर हाका वांटून मेळ्ळी.

- कों. वि. सं. मं.

## मायरहोफ, ओटो फ्रिट्झ :

(जल्म : १२ एप्रिल १८८४, हॅनोव्हर - जर्मनी; मरण : ६ ऑक्टोबर १९५१, फिलाडेल्फिया).

अमेरिकन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ताणें हायडल्बर्ग विद्यापिठाची एम्.डी. पदवी १९०९ त मेळयली. सुरवेक ताका मानसशास्त्र आनी तत्त्वगिन्यान ह्या विशयांची आवड आशिल्ली. पूण ओटो व्हारबुर्ख ह्या जीवरसायनशास्त्रज्ञाची भेट जातकच ताच्या प्रभावाक लागून मायरहोफ हाचें लक्ष शरीरक्रियाविज्ञानाकडे गेलें. १९०९-२४ ह्या काळांत ताणें कील विद्यापिठांतल्या इन्स्टिट्यूट ऑफ फिजिऑलॉजींत संशोधन आनी अध्यापन केलें. उपरांत १९२४-२९त ताणें बर्लिन-डालेम हांगाच्या कैसर व्हिल्हेल्म इन्स्टिट्यूट फॉर बायॉलॉजींत काम केलें. १९२९ त तो हायडल्बर्ग हांगाच्या कैसर व्हिल्हेल्म इन्स्टिट्यूट फॉर मेडिकल रिसर्च हे संस्थेच्या शरीरक्रियाविज्ञान विभागाचो संचालक जालो.

नाझींच्या उदयाउपरांत हेर ज्यू शास्त्रज्ञांप्रमाण १९३८त ताका जर्मनी सोडची पडली आनी तो पॅरिस हांगाच्या इन्स्टिट्यूट ऑफ फिजिकोकेमिकल बायॉलॉजी हे संस्थेंत काम करूंक लागलो. पूण जर्मनीन फ्रांसाचेर घुरी घालतकच १९४०त थंयच्यान मायरहोफ हाका भायर सरचें पडलें. १९४० चे अखेरेक तो अमेरिकेक गेलो आनी थंय ताणें पेनसिल्वेनिया विद्यापिठाच्या स्कूल ऑफ मेडिसीनांत शरीरक्रियाविज्ञानीक रसायनशास्त्राचो संशोधन प्राध्यापक म्हूण अखेरमेरेन काम केलें. १९४८त ताका अमेरिकेचें नागरिकत्व मेळ्ळें.

ताणें स्नायुंच्या आकुंचनांतल्या रसायनीक आनी शरीरक्रियात्मक प्रक्रियांचो अभ्यास केलो. खास करून ताणें ऑक्सिजनच्या व्ययाच्या संदर्भांत स्नायुंतलें ग्लायकोजेन आनी लॅक्टिक अम्ल हांच्यांतल्या बदलांविशीं संशोधन केलें. स्नायुंच्या आकुंचनांत ऑक्सिजनचे गैरहजेरींत स्नायुंतल्या ग्लायकोजेनाचें लॅक्टिक अम्लांत रुपांतर जाता, अशें १९१९त ताणें दाखयलें. ऑक्सिजन आसता तेन्ना सुमार एक पंचमांश लॅक्टिक अम्लाचें ऑक्सिडीभवन जावन कार्बन डाय-ऑक्सायड आनी उदक तयार जाता आनी ह्या ऑक्सिडीभवनांत निर्माण जाल्ली ऊर्जा उरिल्ल्या लॅक्टिक अम्लासावन परत ग्लायकोजेन तयार करपाक उपेगी पडटा, अशें मायरहोफ हाका दिसून आयलें. ह्या सोदाक लागून स्नायुंच्या आकुंचनात आनी तो मूळ अवस्थेंत परत येतना जावपी उश्णता बदलाचें स्पश्टीकरण दिवपाक रसायनशास्त्रीय बुन्याद उपलब्ध जाली आनी हाचोच हिल हाणें खासा अभ्यास केलो. कार्बोहायड्रेटांच्या चयापचयांतलीं एंझाइमां आनी कोशिकांतलें ऑक्सिडीभवन हांचेविशीं‌ंय मायरहोफ हाणें म्हत्वाचें संशोधन केलें.

ऑक्सिजनाचो व्यय आनी स्नायुंतल्या लॅक्टिक अम्लाचो चयापचय हातुंतल्या सहसंबंदांच्या सोदाखातीर ताका आर्चिबॉल्ड व्हिव्हिअॅन हिल हाच्या वांगडा १९२२ वर्साच्या शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयांतलो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## माया - १ :

भारतीय तत्त्वगिन्यानांतली एक कल्पना. जें ना वा जें असत्य तें आसा वा सत् दिसप हाका माया म्हण्टात. ह्याच अर्थांतल्यान मायावी म्हळ्यार भुलोवणो हें विशेशण वेव्हारांत चलता. निर्लक्षण अशा ब्रह्मापसून सलक्षण अशा जगताची उत्पत्ती जाली. तशेंच एकमेव द्वितीय अशा ब्रह्मांतल्यान नानाविध अशी सृश्ट निर्माण जाली. हाचो सोद आनी बोध घेवपाखातीर माया ही कल्पना आदार करता. हे कल्पनेचो जायत्या तत्त्वगिन्यानी लोकांनी आपले परीन अर्थ लायला.

शंकराचार्याच्या मताप्रमाण माया आनी अविद्या हांचेमदीं फरक ना. ताची माया ही अनिर्वचनीय आसा. ती सत्य ना आनी असत्य ना, भिंगय ना आनी अभिंगय ना. ती

म्हान अदमत् आसून तिचे संबंदी कितेंय भाश्य करपा पलतडची ती अनिर्वचनीय आसा. माया ही सत्य आनी असत्य हांचें अघटित मिश्रण करता आनी एक वेगळोच भास निर्माण करता. जें ना तें आसा अशें समजप हाकाच माया म्हण्टात, अशें योग वशिश्टांत सांगलां. माया आनी अविद्या हांकां न्हयकारून ब्रह्म हेंच एकमेव द्वितीय अशें सत् आसा असो सिध्दांत वशिश्टान मांडला. ह्या मताप्रमाण जीव जगत आनी ईश्वर हांचे भान हें मायावी आसा. पंचदशेंत प्रकृतीचे दोन गूण सांगल्यात. सत्व गुणांची शुध्दी (माया) आनी अशुध्दी (अविद्या) ह्या मताप्रमाण शुध्द सत्वप्रधान प्रकृतीक माया म्हण्टात आनी अशुध्द सत्वप्रधान प्रकृतीक अविद्या म्हणटात.

गौडपादाचार्यान आपले कारीकेंत मायावादाक स्पश्ट स्वरुपांत प्रगट केला. रामानुजाचार्य मायेक वेगवेगळे पदार्थ तयार करपी त्रिगुणात्मक प्रकृती मानता. तर मध्वाचार्य आनी वल्लभाचार्य तिका भगवंताची इत्सा वा शक्ती मानता. संतांनी विशेश करून निर्गुणी संतांनी जिवाशिवाचें मिलन करपाक आडखळ हाडपी प्रवृत्ती म्हणून मायेक संबोधक्या.

- कों. वि. सं. मं.

**माया - २ :** एक अमेरिकन इंडियन लोकांच्या बोलींपैकीं एक बोली समुह.

- कों. वि. सं. मं.

**माया - ३ :** अमेरिकन खंडांतली एक प्राचीन संस्कृती.

- कों. वि. सं. मं.

**मार्तँद्युगार, रॉझे :** (जल्म : २३ मार्च १८८१, नय्यी-स्युर-सेन; मरण : २२ ऑगस्ट १९५८, बेलेम).

नोबॅल पुरस्कार फाव जाल्लो नामनेचो फ्रेंच कादंबरीकार. ताणें पॅरिसच्या एकॉल दे शार्त हे शिक्षणसंस्थेंत पुराभिलेखशास्त्राचें अध्ययन केलें. 'दव्हनीर' (१९०९) ही ताची पयली कांदबरी उजवाडा आयली. पूण ताका कादंबरीकार म्हूण नामना मेळ्ळी ती ताच्या 'झां बारूआ' हे कादंबरीक लागून. फ्रांसांत गाजिल्ल्या ड्रायफस प्रकरणाचेर ही कादंबरी आसून तातूंत नीती आनी धर्मावेशींचे प्रस्न आसात. फुडें ताचे 'ले तिबो' (८खंड, १९२२-१९४०) इंग्लीश अणकारः 'द वर्ल्ड ऑफ द तिबोज' (१९३९-४१) ही कादंबरी उजवाडा आयली आनी ताका संवसारीक नामना मेळ्ळी. हे कादंबरी वरवीं ताणें पयल्या म्हाझुजाच्या आदल्या आनी उपरांतच्या फ्रेंच समाजजिणेचें वास्तवदर्शन घडयलां. मनीस जातीक भेडसावपी जायत्यो अडचणीय हे कादंबरींत दिसून येतात. व्हड रशियन साहित्यिक लीओ टॉलस्टॉय हाच्या 'वॉर अँड पीस' हे कादंबरीचो मारतँद्युगारचेर चड प्रभाव दिसून येता. La Confidence Africaina (१९३१) आनी ला व्हियेंय फ्रांस (१९३३, इंग्लीश अणकारः द पोस्टमन, १९५४) ह्यो ताच्यो हेर दोन कादंबऱ्यो उल्लेख करपासारक्यो आसून, ह्या कादंबऱ्यांवरवीं ताणें फ्रेंच गांवगिरे जिणेचें प्रत्ययकारी दर्शन घडयलां. 'ले सुव्हनीर द्यु कॉलॉनेल द मोमॉर' ही ताची कादंबरी अर्दकुटीच उरली. समाजीक वास्तव आनी मनीस हांच्या मदल्या संबंदांचो सोद, वस्तूनिश्ठता तशेंच भरपूर तपशील दिवपाची प्रवृत्ती हीं ताचे कादंबरीचीं कांय उल्लेख करपासारकीं खाशेलपणां.

ल तेस्तामां द्यु पॅर लल (१९२०) ह्या ताच्या नाटकांत फ्रेंच गांववगिरे जिणेचें उपरोधात्म चित्रण ताणें केलां. La Gonfle (१९२८) आनी Vn *taciturne* (१९३१) हीं ताचीं हेर दोन नाटकां. साहित्य आनी कला ह्या विशयांचेर आदारिल्ल्या नुव्हॅल रव्ह्यू फ्रांसॅझ ह्या नेमाळ्यावरवीं तो बरप करतालो. ह्या नेमाळ्याचो मुखेल संस्थापक आनी नामनेचो फ्रेंच साहित्यीक आंद्रे झीद हो ताचो इश्ट आशिल्लो. Notes Sur Andre Gide (१९५१) ह्या आपल्या ग्रंथांत ताणें झीदची तोखणाय केल्या. १९३७ वर्साचो साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार दिवन ताच्या साहित्यिक वावराचो भोवमान जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**मारवाडी :** मूळची राजस्थानांतली एक जमात. राजस्थानांतल्या जोधपूरच्या लोकांक मारवाडी म्हण्टात. जोधपूराक मारवाड म्हणूनय वळखतात. 'मारवाड' हो शब्द मरुवार ह्या मरुस्थलवाचक शब्दाचो अपभ्रंश.

मारवाडी लोक भारताच्या सगळ्या वाठारांत पातळिल्ले आसात. तांचो मुखेल वेवसाय वेपार. तांचीं चडशीं वाणसामानाचीं दुकानां आशिल्ल्यान तांकां वाणी म्हूण वळखतात. तांच्यांत अग्रवाल, ओसवाल, खंडेलवाल, पोरवाल, मेश्री अशो जायत्यो जाती आसात. तशेंच ब्राह्मणूय आसात. पुर्विल्ल्या स ऋषींपसून आपली उत्पत्ती जाली, असो समज आशिल्ल्यान तांच्यांतले ब्राह्मण स्वताक छन्नाती ब्राह्मण म्हण्टात. ते पोटजातीचीं नांवां अशीं: दध्यवस, गुजरगौड, खंडेलवाल पारीख, शिरवळ आनी सारस्वत. तांच्यांत लग्नसंबंद जायनात. पूण तांची रीत, भाशा हांचेवयल्यान ते मुळांत एकेच जातीचे दिसतात.

महाराष्ट्रांत तांची वसती खूब आसा. तातूंतले कांय जैन तर कांय वैष्णव आसात. गिरीचो बालाजी हो वैष्णवांचो देव.

मारवाडी लोक कश्टी, शांत आनी वेव्हारी आसतात. वेपारावांगडाच सावकारी आनी दलाली तांकां बेस बरी जमता. तांची भास मारवाडी. तांचो आहार शिवराक आसून दाळ, रोटी आनी तूप हें तांचें मुखेल अन्न.

जाट मारवाडी म्हूण एक जात आसा. हे जातीचे लोक मांसाहारी आसात आनी ते शेतकाम करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मारसकोळे, गुलाबराव भीवजी :** (जल्म : १९१९, शिवनगांव, नागपूर).

सुटकेझुजारी. ताणें 'भारत छोडो' आंदोलनांत तशेंच हैदराबाद चळवळींत वांटो घेतिल्लो. १९५५ वर्सा पणजी हांगा सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो तेन्ना पुर्तुगेज पुलिसांकडल्यान ताका खूब मार पडलो. १९८५ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं

**मारिया, जुजे मानुएल द जेजूस :** (जल्म : धावजी - गोंय, मरण : १८००).

खिस्ती धर्म फुडारी. तो आगुस्तीनीयन पंथाचो वांगडी आशिल्लो. तत्वगिन्यान आनी धर्मशास्त्र ह्या विशयांचो तो गोंयांत प्राध्यापक आशिल्लो. १७८८ वर्सा तो मिलापूर ह्या वाठारांतलो बिशप जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**मारी (व्हर्जिन मेरी) :** येशू ख्रिस्ताची आवय. हिचोच 'नव्या करारां'तल्या सात मारीं (मारीया) भितर 'कुमारी' असो उल्लेख आसा. ती डेव्हिड राजाच्या घराण्यांतली जोसेफ (योसेफ) नांवाच्या मनशाची बायल जावपाची आशिल्ली. देवान धाडिल्ल्या गॅब्रिएल दूतान मारीक सांगलें, 'देवाची तुजेर कृपा जाल्या, तूं गुरवार जावन तुका पूत जातलो. ताचें नांव येशू दवर. मारीन म्हळें, 'हें कशें जातलें? कारण म्हाका दादलो खबर ना'. देवदूतान जाप दिली, 'पवित्र आत्मो येवन परात्पराचें बळगें तुजेर घालतलो'.

आपलेकडे संबंद येवंचेपयलीं मारी गुरवार जाली हें जोसेफाक कळटकच जोसेफान गुपीतपणान तिका सोडपाचें थारायलें. पूण देवदूतान सपनांत ताका दर्शन दिलें आनी मारीक बायल म्हूण आपणावपाक सांगलें. उपरांत तांकां संतत जाल्ल्याचोय उल्लेख आसा.

बारा वर्सांचो आसतना येशू आपल्या आवय-बापाय वांगडा वल्हांडण परबेनिमतान जेरुसलेमाक गेलो. परबेउपरांत आवय- बापूय परतून आयले. पूण येशू फाटल्यान रावलो. ताका सोदपाक मारी आनी जोसेफ परतून जेरुसलेमाक गेलीं. तेन्ना मारीन येशूक म्हळें, 'तुजो बापूय आनी हांव कश्टी जावन तुजो सोद करीत आयल्यांत'. मारीचें हें वाक्य उद्‌बोधक आसा. वयांत येवन स्वताच्या कार्याक आरंभ करसर येशू आवय-बापायवांगडा कुटुंबांतलो एक म्हूण व्हड जालो. निमाणें खुरसाचेर चडटना, वधस्तंभालागीं हेरांसांगाता उबी आशिल्ले आपले आवयक पळोवन योहान ह्या आपल्या शिश्याक येशून सांगलें, 'पळय, ही तुजी आवय.' तेन्नासावन त्या शिश्यान तिका आवय म्हणून आपल्या घरा व्हेली.

'ब्लेसेड व्हर्जिन मेरी', 'सेंट मेरी', 'मॅडोना' ह्या नांवांनीय मारीचो उल्लेख मेळटा. 'मॅडोना' हें 'मायलेडी' ह्या अर्थाचें, आंकवार आवय मारी हें चित्र-शिल्पां ह्या कलांचे प्रतिमेक दिल्लें इटालियन नांव आसा. आंकवार आवय मारी आनी बाळक रूप खिरस्त हो विशय ख्रिस्ती धर्मीक कलेंत खूब म्हत्वाचो मानला.

इ. स. दुसरो तो चवथ्या शेंकड्यांत, पयलींच्या किरिस्तांव भूंयगत थडग्यांतल्यान मेळपी मॅडोनाचीं चित्रां सगळ्यांत पोरनीं मानतात. तेराव्या शेंकड्यांत, म्हळ्यार प्रबोधनकाळांत मॅडोना चित्रणाची एक नवी शैली जल्माक आयली. ह्या चित्रांनी फाटभूंय तयार करपाक कांय सैमीक चित्रां रंगयल्यांत. पंदराव्या-सोळाव्या शेंकड्यांत आंकवार आवय आनी बाळक खिरस्त हो विशय खूब लोकप्रिय थारलो. तेन्ना जायत्या चित्रकारांनी, शिल्पकारांनी ह्या विशयाचेर विंगड विंगड बऱ्यांतल्यो बऱ्यो कलाकृती तयार केल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**मारीची :** एक बौध्द देवता. ही विरोचनाची बायल अशें एक मत आसा. पूण ही विरोचनाच्या शरिरासावन निर्माण जाली, अशेंय एक मत आसा. तिबेटांतले लामा लोक फांतोडेर मारीचीचें पूजन आनी स्तवन करतात.

साधनमाला ह्या ग्रंथांत हे देवीच्या स्वरुपाचे स प्रकार वर्णिल्यात. ही एकमुखी, त्रिमुखी, पांचमुखी वा स मुखांची आसून तिका दोन, आठ, धा आनी बारा भुजां आसतात. तिच्या हातांत सूय आनी सूत आसता. सूय-सूत घेवन ती दूश्ट वृत्तीच्या लोकांचीं तोंडां आनी दोळे शिवून बंद करता, असो भक्तांचो समज आसा.

जेन्ना हे देवतेक एक मूख आनी दोन हात आसून, तिच्या हातांत अशोक झाडाचें पान आसता, तेन्ना तिका अशोककांता अशें म्हण्टात. पूण ह्याच स्वरुपांत जेन्ना अशोक पानाच्या बदला तिच्या हातांत सूय-सूत आसता, तेन्ना तिका आर्य मारीची म्हूण वळखतात.

मारीचीच्या चारूय वटांनी चार देवता आसतात. तांचीं नांवां अशीं आसात-उदेंतेक वर्त्ताली, दक्षिणेक वडाली, अस्तंतेक वराली आनी उत्तरेक वराहमुखी. ह्यो चौगीय मारीचीच्यो सेविका आसात. मारीची ही चैत्याच्या गर्भांत रावता.

कांय शिल्पांभितर ही देवता सप्तपर्यकांचेर बशिल्ली दाखयतात. ही देवता हृदयाचेर ॐकार धारण करता आनी भक्तांचीं संकटां पयस करता अशें साधनमालेंत म्हळां. कांय कडे वज्रवाराही हे देवीस्वरुपाकच मारीची अशी मानल्या, पूण तें खरें न्हय.

भारतांत खूबकडे मारीचीच्यो मूर्ती दिसतात. कांय मूर्ती डाक्का हांगाच्या संग्रहालयांत आसून उज्जयिनी, टिपेरा, आटपारा, दुवाली हांगा मेळिल्ल्यो मूर्ती राजशाही संग्रहालयांत दवरल्यात.

ही देवता सात दुकरांच्या रथांतल्यान भोंवता आनी तिचो सारथी लंगडो आसता, ह्या स्वरुपांत तिच्यो कांय मूर्ती पळोवंक मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**मार्कंडेय पुराण :** (पळेयात पुराणां).

**मार्कोनी, मार्केझे गूल्येल्मो :** (जल्म : २५ एप्रिल १८७४, बोलोन्या-इटली; मरण : २० जुलय १९३७, रोम).

नामनेचो इटालियन भौतिकशास्त्रज्ञ. बोलोन्या आनी फ्लॉरेन्स हांगा खाजगी रितीन शिक्षण घेतकच तो लोगहॉर्न हांगाचे तांत्रिक शाळेंत शिक्षणाखातीर गेलो. विद्यार्थी आसतनाच ताका भौतिकीय आनी विद्युत् शास्त्रांची गोडी लागली. १८९४त ताणें बोलोन्या लागसार आपल्या बापायचे इस्टेटीचेर संदेश वहनाविशीं प्रयोग सुरू केले. संदेशवहनाचो पल्लो सुमार २.५ किमी. मेरेन वाडोवपाक ताका यश आयलें.

आपले प्रयोग फुडें चालू दवरपाखातीर तो १८९६ त इंग्लंडाक गेलो. थंय टपाल खात्याचो मुखेल अभियंतो विल्यम प्रीस हाचेकडेन ताची वळख जाली. त्याच वर्सा जून म्हयन्यांत बिनतारी तारायंत्रविद्येचे एके प्रणालीचें ताका संवसारांतलें पयलें एकस्व (patent) मेळ्ळें. सॉल्झबरी मळाचेर सुमार ६.५ किमी. आनी ब्रिस्टल खाडी पलतडीं सुमार १४.५ किमी. अंतराचेर संदेश धाडपाक ताका यश आयलें. जून १८९७ त मार्कोनी हाणें इटालियन सरकाराक ला स्पेत्स्या हांगा जमनीचेर प्रेषण स्थानक उबारून सुमार १९ किमी. अंतरावयल्या इटालियन झजनौकांक बिनतारी संदेश धाडपाचें प्रात्यक्षिक करून दाखयलें. १८९९त मार्कोनी हाणें फ्रांस आनी इंग्लंड हांचेमजगतीं इंग्लीश खाडी पलतडीं सुमार ५०किमी. अंतराचेर बिनतारी संदेशवहन प्रस्थापित केलें.

१९०० वर्सा जमनीवयलीं स्थानकां आनी जहाजां हातूंत बिनतारी तारायंत्र सामग्री बसोवपाखातीर आनी ती वापरांत हाडपाखातीर सेवा उबारपाक 'मार्कोनी इंटरनॅशनल मरिन कम्युनिकेशन कंपनी लि.' ही संस्था स्थापन केली. त्याच वर्सा मार्कोनी हाणें बिनतारी तारायंत्रविद्येच्या उपकरण संचांतले सुदारणेविशींचें आपलें नामनेचें एकस्व मेळयलें. डिसेंबर १९०१ त कॉर्नवॉल (इंग्लंड) हांगाच्या पॉल्ड्यू स्थानकासावन प्रेशित जाल्ले संदेश अटलांटिक महासागर हुंपून न्यू फाउंडलंड हातूंतल्या सेंट जॉन्स हांगा मेळोवपाक ताका यश आयलें. अशे तरेन कांय रेडिओ तरंग वातावरणाच्या वयल्या थरासावन परावर्तित जातात आनी कांय खेपे दिसापरस रातचीच परिस्थिती रेडिओ प्रेशणाक अनुकूल आसता, हाचो ताणें सोद लायलो. सप्टेंबर १९१८ त इंग्लंडसावन ऑस्ट्रेलियाक पयलो रेडिओ संदेश धाडपाक मार्कोनीक यश आयलें.

पयल्या म्हाझुजांत १९१४त ताणें इटालियन भूंयसेनेंत लेफ्टनंट म्हूण प्रवेश केलो. फुडें ताका कॅप्टन म्हूण बढती मेळ्ळी. १९१६त कमांडर म्हूण नाविक दळांत ताची बदली जाली. १९१९त पॅरिस हांगाचे शांतताय परिशदेखातीर इटलीचो पुर्णाधिकारी प्रतिनिधी म्हूण ताची नेमणूक जाल्ली.

पॉल्ल्यू हांगाच्या एक किलोवॅट शक्तीच्या प्रेशकासावन सुमार २,००० किमी. अंतराचेर 'इलेट्रा' हे खाशेले नौकेचेर मार्कोनीन संदेश मेळयले. १९३१त ताणें आनीकूय ल्हान (सुमार ०.५मी. लांबायेचे) प्रसारणाचेर संशोधन करपाक सुरवात केली, १९२२त ताणें अमेरिकन इन्स्टिट्यूट ऑफ रेडिओ इंजिनिअर्स हे संस्थेंत दिल्ल्या व्याख्यानांत रडाराविशीं भाकित केल्लें आनी १९३५त इटलींत ताणें ताच्या तत्त्वाचें वेव्हारीक प्रात्यक्षिक करून दाखयलें. बिनतारी तारायंत्रविद्येची उदरगत करपाखातीर मोलादीक वावर केल्लेखातीर ताका कार्ल फर्डिनंड ब्राव्न हाचेवांगडा १९०९ वर्साच्या भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो. ताका आनीकूय हेर कितलींशींच पदकां आनी भोवमान फाव जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**मार्गशीर्ष :** हिंदू कालगणनेप्रमाण मार्गशीर्ष हो चैत्रादी गणनेंतलो णवो म्हयनो. ह्या म्हयन्याचे पुनवेक वा तिचे फाटीफुडें मृगशीर्ष नक्षत्र आसता, म्हूण ताका 'मार्गशीर्ष' हें नांव पडलें. पयलीं बारा म्हयन्यांचे गणनेंत मार्गशीर्ष म्हयनो वर्साचो पयलो म्हयनो धरून मेजपाची चाल आशिल्ली. तेखातीर ताका अग्रहायन (अग्र-पयलो, हायन-वर्स) अशेंय नांव आसा. 'मासानां मार्गशीर्षोऽहम्' ह्या वचनान भगवद्गीतेंत ह्या म्हयन्याची तुस्त केल्या.

मार्गशीर्ष म्हयन्यासावन कार्तिकमेरेन बारा म्हयन्यांच्या अधिदेवतांचीं जीं नांवां आसात, तीं अनुक्रमान केशव, नारायण, माधव हे संध्येंतल्या पयल्या बारा नांवांच्या क्रमानूच आसात. ताचेवयल्यान केशव ही मार्गशीर्ष म्हयन्याची अधिदेवता आसा. ह्या म्हयन्यांत मार्तंड, भैरव, मल्हारी वा खंडोबा ह्या कुलदैवतांचो षड्रात्रोत्सव आसता. मार्गशीर्ष म्हयन्याच्या पयल्या दिसाक देवदिवाळी म्हण्टात आनी निमाणचो दीस चंपाषष्ठी वा स्कंदषष्ठी आसता. ह्या दिसा शंकरान मणिअल्ल दैत्याच्या वधाखातीर अवतार घेतिल्लो अशें मानतात. शुध्द पंचमीक नागपुजा आसता. शुध्द एकादस म्हळयार मोक्षदा एकादस आनी त्याच दिसा गीताजयंती आनी पुनवेक दत्तजयंती हे ह्या म्हयन्यांतले म्हत्वाचे दीस आसात. चडकरून ह्याच म्हयन्यांत उत्तरायणाक प्रारंभ (२२ डिसेंबर) जाता.

शिखांचो णवो गुरू तेगबहादुर हाचो वध, कौरव-पांडवांच्या युध्दाक सुरवात, लंकादहन ह्यो गजाली ह्याच म्हयन्यांत जाल्ल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**मार्च :** ग्रेगोरियन कॅलेंडरांतलो तिसरो म्हयनो. मार्स म्हळयार मंगळ ही झुजाची आनी शेतीची देवता मानिल्ली आसून हे देवतेवयल्यान ह्या म्हयन्याक मार्च अशें नांव पडलें. इ.स.प. १५३ मेरेन मार्च होच वर्साचो पयलो म्हयनो समजताले आनी २५ मार्च हो वर्सारंभ समजताले. इंग्लंडांत इ.स. १७५२ मेरेन मार्च हो वर्सारंभ म्हयनो आशिल्लो. ह्या म्हयन्याक ३१दीस आसतात. मार्च ३१ही तारीख जायत्या अर्थीक वेव्हारांत वर्सा अखेरचो दीस समजतात. १५ मार्च ज्यूलियस सीझरचो अंत, १७ मार्च सेंट पॅट्रिक ह्या संताचो दीस, २१ मार्च हो विषुवदिन (equinox) आनी २२मार्च हो भारतीय सौर पंचांगाचो वर्सारंभ अशे म्हत्वाचे दीस ह्या म्हयन्यांत येतात. हिंदू पंचांगांतल्या फाल्गून चैत्रांत हो म्हयनो येता.

- कों. वि. सं. मं.

**मार्टिनसन, हॅरी :** (जल्म : ६ मे १९०४, जॅमशॉग, ब्लॅकिंग, स्विडन).

एक नामनेचा स्विडीश कादंबरीकार आनी कवी. आपूण जावन शिकून

स्विडीश अकादमीचेर वेंचून येवपी (१९४९) हो कामगार वर्गांतलो पयलो साहित्यकार आशिल्लो. बापूय मरतकूच पिरायेच्या सातव्या वर्सा ताणें आपलें घरदार सोडलें आनी एका वाळेस (Vagabond) भुरग्या प्रमाण जळीमळीं भोंवपाक लागलो. उपरांत कांय तेंप तो घरकाम करपी आनी तारवटी म्हूण वावूरलो.

ताची ह्या तेंपावयली गरीबी, कश्टी जीण आनी हिणसावणे खीण ताणें Nausslorna blomma (Flowering Nettle 1935) आनी Vagen ut (way out 1936) ह्या दोन आत्मचरित्रिक कादंबरींनी मांडल्यात. ताचीं मनार परिणाम करपी भोंवडे वर्णनां Resor utan mael (1932, Aimless Journeys) आनी Kap Farvael (1933, Cape farewell) हातूंत रंगयल्यांत. passed (1945, Trade wind) आनी vaegen till klockrike (The Road, 1955) हीं ताचीं नांवाजिल्लीं पुस्तकां आसात. Aniara (A Review of man is Time of Space) ही ताची अंतरिक्षयानांत स्वैर कल्पना मांडिल्ली कविता त्या वेळार खूब गाजली. उपरांत स्विडीश संगितकार कार्ल बिर्गर ब्लोमा हाणें हे कवितेचें गितनाट्यांत रुपांतर केलें. १९७४ त ताका साहित्याखातीर आशिल्लो नोबेल पुरस्कार जॉन्सन ह्या दुसऱ्या स्विडीश लेखकावांगडा वांटून मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

## मार्टीन्स, डॉ. जुझे फ्रांसिस्कु शाव्हियेर आन्तोनियु

: (जल्म : १२ ऑगस्ट १९२०, सालव्हादोर दु मुन्दु).

सुटकेझुजारी. ताणें वैजकी शास्त्रांत पदवी मेळयली आनी तो वैजकीचो वेवसाय करूंक लागलो. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' हे संघटनेचो तो वांगडी आसलो. १९४२ त कर्नाटक कॉलेजींत शिकता आसतना ताणें धारवाड हांगा जाल्ल्या सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो.

पैठण-बिठ्ठोणा हांगा आपल्या घरा ताणें वांगड्यांची बसका आपोवन २ ऑक्टोबर १९५४ सावन सत्याग्रह करपाचो बेत आंखलो. पुर्तुगेज पुलिसांक तांच्या ह्या कर्तुपाची सुलूस लागिल्ल्यान २७ जून १९५४ दिसा ताका अटक केली. प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका आठ वर्सां खर बंदखण, दोन वर्सां दंड आनी २० वर्सां खातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेवपाची ख्यास्त फर्मायली. चार वर्सां ख्यास्त भोगतकच ताची आग्वाद बंदखणींतल्यान सुटका जाली.

गोंय सुटके उपरांत बारदेस तालुका काँग्रेस समितीचो अध्यक्ष म्हूण तो वेंचून आयलो. साल्व्हादोर-दु-मुन्दु हे ग्रामपंचायतीचो पंच म्हूण तो वेंचून आयलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. १८ जून १९८२ ह्या दिसा गोंय सरकारानूय ताचो भोवमान केला. ताणें In search of self fulfilment हें आत्मचरित्रात्मक पुस्तक बरयलां.

- कों. वि. सं. मं.

**मार्डुक :** पुर्विल्ल्या बॅबिलोनियांतलो एक मुखेल देव. बॅबिलन हें ह्या देवाचें मुखेल पीठ आशिल्लें. तशेंच थंय ताचें एक व्हड देवूळय आशिल्लें. मार्डुक वा मेरोडाख हो मुळांत सुमेरियन लोकांचो गौण देव आशिल्लो. पूण सेमिटिक ॲमोराइट लोकांनी बॅबिलोनियांत तांच्या पयल्या राजघराण्याची स्थापणूक केली तेन्ना मार्डुक देवाक सगळ्यांत श्रेश्ठ देव मानलो. ताचे पयलीं ऊरुक हांगाचो स्वर्ग वा मळबांतलो देव अनू, एरिडू हांगाचो उदकाचो देव इआ आनी निप्पुर हांगाचो धर्तरेचो देव एन्लिल हे बॅबिलोनियांतले तीन नगरराज्यांचे तीन मुखेल देव आशिल्ले. तातुंतलो एन्लिल हो देव खूब बळिश्ट अशें मानताले. बॅबिलोनाचेर जैत मेळयल्ल्या राजांक तांचो नवो देव जाय आशिल्लो म्हूण पयलींच्या तीनूय देवांक मार्डुक देवांत आस्पावन घेवन मार्डुक होच आपलो सगळ्यांत श्रेश्ठ देव अशें तांणी मानलें. ह्या उपरांतच्या देड हजार वर्सां मार्डुक हो बॅबिलोनियांतलो श्रेश्ठ देव म्हूण पूज्य मानताले. ताच्या बापायचें नांव इआ आनी आवयचें नांव दमकिना.

हामुराबी (इ.स. पयलीं अठरावो शेंकडो) बॅबिलन हें मेसोपेटोमियाचें सगळ्यांत उंचेले केंद्रस्थान केलें. ताणें कोरांतून घेतिल्ल्या नामनेच्या विधिसंहितेच्या फातराच्या फुडल्या भागार मार्डुक ह्या देवाकडल्यान राजा ही विधिसंहिता घेता अशें शिल्प कोरांतलां. हामुराबी उपरांत सत्तेर आयिल्ल्या कॅसाइट, ॲसिरियन, खाल्डियन, पर्शियन आनी मॅसिडोनियन राजांनी 'बॅबिलनचो सगळ्यांत श्रेश्ठ देव मार्डुक' म्हूण कोरांतिल्ले उल्लेख मेळटात.

ह्या उपरांतच्या काळांत बॅबिलोनियांतल्या ॲरेमाइक भाशेंत मार्डुक देवाक 'बेल' म्हळ्यार स्वामी, प्रभु म्हटिल्लें दिसता. इ.स. पयलीं सव्या शेंकड्याच्या निमाणें बॅबिलनचो आनी मार्डुकच्या देवळाचो हिब्रू लोकांनी विध्वंस केलो अशें कांय विद्वानांचें मत आसा. पर्शियन साम्राज्याचो संस्थापक सायरस राजान जेन्ना बॅबिलन जिखलें तेन्ना ताणें मार्डुकाच्या व्हडपणाचो आनी प्रभावीपणाचो भोवमानान उल्लेख केला. इ.स. पयलीं ३३१त अलेक्झांडरान जेन्ना बॅबिलन जिखलें तेन्ना ताणें मार्डुकाचें मोडिल्लें देवूळ परतून बांदपाचो आदेश दिलो. पूण देवूळ बांदचे पयलींच अलेक्झांडराक मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**मार्तंड :** एक पुण्यक्षेत्र. जम्मू आनी काश्मीर राज्याच्या अनंतनाग जिल्ह्यांतल्या पुर्विल्ल्या सूर्यमंदिराखातीर नामनेक पाविल्लें एक हिंदूंचें पवित्र ठिकाण. हें श्रीनगरचे आग्नेय दिकेक सुमार ६५किमी. चेर आनी अनंतनागचे ईशान्य दिकेक ८किमी.चेर आसा. हांगाचें सूर्यमंदिर ऊंच पहाडाचेर बांदलां. पूण सद्या तें भग्नावस्थेंत आसा.

हे सुवातीक 'बवन' (भवन) ह्या नांवानूय वळखतात. राजतरंगिणींत हाचो 'सिंहरोत्सिका' असो उल्लेख मेळटा. भाविकांच्या मतान हें ठिकाण सूर्यदेवाची जल्मसुवात आसून हें देवूळ पांडवांनी बांदलां. जनरल कनिंगहॅमच्या

मतान हें देवूळ ३७० त बांदलां, जाल्यार कांय तज्ञांच्या मतान तें आठव्या शेंकड्यांत ललितादित्य राजान बांदलां. सुलतान सिकंदर बत्शिकन हाणें हें देवूळ उध्वस्त केलें.

देवळाचो आवार ६७मी. लांब आनी ४३मी. रुंदीचो आसून, वण्टींत भितरले वटेन होंवऱ्यो आशिल्ल्याचें दिसता. १८मी. लांब आनी १२मी. रुंदीचें हें देवूळ आसा. देवळाच्या चौकार गंगेची मूर्त आसून तिच्या एका हातांत जलपात्र आनी दुसऱ्या हातांत कमळ आसा. तिच्या दोनूय वटांनी छत्रचामर घेवन दासी आसात. वण्टीचेर सोबीत मूर्ती कोरांतिल्ल्यो आसात. अस्तंतेवटेन वराह, नृसिंह आनी विष्णु हांची त्रिमुखी मूर्त आनी अश्टभुजा विष्णुची मूर्त आसा. हांगा जो सूर्यरथ आसा ताका स घोडे आसात. ह्या रथाचो सारथी स्वता सूर्यनारायण आसा.

ह्या देवळाचे भायले वटेनचे बांदावळीचेर ग्रीक आनी रोमन शिल्पकलेची छाप आसा; पूण मूर्तिकामांत आनी कमानी खांब्यांचे बांदावळींत काश्मीरी वास्तूकलेची छाप दिसता. 'मार्तंड तीर्थ' नांवाच्या उदकाच्या कुंडांभितर 'विमला' आनी 'कमला' ह्या कुंडांक धर्मीक नदरेन खूब म्हत्व आसा. हांगा सूर्याची उपासना, श्राध्दां हीं कार्यां करतात. मार्तंड देवळापसून सुमार १.५ किमी. अंतराचेर हीं कुंडां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मार्थोमाइट पंथ (चर्च) :** भारतांतलो एक खिस्ती धर्मपंथ. ह्या पंथाचें मूळ नांव 'मार थोमा सिरियन चर्च.' इ.स.च्या पयल्या शेंकड्यांत संत थॉमस (टॉमस) ह्या येशू ख्रिस्ताच्या एका शिश्यान केरळांत, मलबार प्रदेश हांगा 'थॉमस खिस्ती चर्च' स्थापन केली, असो परंपरिक विश्वास आसा. हे चर्चीचो बिशप सिरियांतल्यान येतालो. उपरांत इस्लामी विस्ताराक लागून हेर किरिस्तांव लोकांकडे आशिल्ले तांचे संबंद तुटले. पूण किरिस्तांव आशिल्ले पुर्तुगेज लोक भारतांत येतकच मात ह्या मलबारांतल्या किरिस्तांव लोकांचो हेर किरिस्तांवांकडलो संबंद सुरू जालो. तेन्ना गोंयचो आर्चबिशप आलिएक्सो डी मिनेझीस हाणें डियंपर हांगाचे धर्मसभेंत (१५९९) केरळांतली सिरियन चर्च हातूंत अस्तंती चर्चीतल्यो चालीरीती आनी उपासनेच्यो पद्दती हाडून सुदारणा घडोवन हाडपाचे तशेंच रोमाकडे प्रत्यक्ष संबंद जोडपाचे यत्न केले. ह्या नव्या चालीरितींआड थॉमस खिस्ती चर्चीच्या लोकांनी खर निशेध उक्तायलो. निमाणें केरळांतल्या क्रिरिस्तांव लोकांभितर फूट पडली. तांच्यांतले दोन तृतीयांश लोक रोमाचे वटेन रावले आनी उरिल्ल्या लोकांनी 'मलंकारा चर्च' ही आपली वेगळी चर्च स्थापली. ही चर्च सद्या 'सिरियन ऑर्थोडॉक्स चर्च' ह्या नांवान वळखतात. हे चर्चीचो एक ल्हान पंगड ब्रिटीश राजवटींत 'चर्च ऑफ इंग्लंड' हातूंत आस्पावला.

कोट्टायम सेमिनारींतलो एक शिक्षक अब्राहम मालपान हो मलंकारा चर्चीच्या एका पंगडाचो फुडारी जालो. ताचो पुतणयो मॅथ्यू अथानासियस आनी बहुसंख्य पंगडाचो वांगडी पुलिकोत जोसेफ वा पांचवो डायोनिशिअस हे एकामेकांभितर सत्तेखातीर झगडटाले. १८७५ वर्सा सिरियन पेट्रिआर्क हाणें केरळाक भेट दितकच डायोनिशिअस म्हळयार पुलिकोत जोसेफ हाचो पंगड अदीक बळिश्ट जालो. त्याच वर्सा मॅथ्यूक मरण आयलें. रोकडीच चर्चीची सगळी येणावळ पांचव्या डायोनिशिअसच्या म्हळयार बहुसंख्य पंगडाच्या हातांत आयली. मॅथ्यूच्या पंगडाक कांयच मेळ्ळेंना. तेन्ना मॅथ्यूच्या पंगडान 'ईस्टर्न ऑर्थोडॉक्स चर्च' ची स्थापणूक केली (१८७५). ताका 'मार थोमा सिरियन चर्च' वा 'मार्थोमाइट पंथ' (चर्च) अशींय नांवां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मार्शल आल्फ्रेड :** (जल्म : २६ जुलय १८४२, क्लॅपम, लंडन; मरण : १३ जुलय १९२४).

संवसारीक नामनेचो ब्रिटीश अर्थशास्त्रज्ञ. अर्थशास्त्रांतल्या नव्या सनातनवादाचो म्हत्वाचो पुरस्कर्तो. ताचो बापूय बँक ऑफ इंग्लंड हातूंत रोखपाल म्हूण काम करतालो. पिरायेच्या णवव्या वर्सा ताणें आल्फ्रेड मर्चंट टेलर्स स्कूलांत प्रवेश घेतलो. गणित विशयांत ताका खूब गोडी आशिल्ली. पूण ताणें धर्मशास्त्राचो अभ्यास करून धर्माच्या विचारांचो प्रसार करचो अशी ताच्या बापायची इत्सा आशिल्ली. मार्शलाक तें मान्य नाशिल्लें. ताणें आपल्या चुलत्याच्या आदारान केंब्रिजच्या सेंट जॉन



कॉलेजींत प्रवेश घेतलो आनी इ.स. १८६५ वर्सा ट्रायपॉस परीक्षेंत दुसरो क्रमांक मेळोवन ताणें गणितशास्त्रांत प्राविण्य संपादन केलें. सुररवातेक क्लिफ्टन हांगा आनी उपरांत केंब्रिज हांगा गणित विशयाचें अध्यापन तो करूंक लागलो. थंय नामनेचो तत्त्ववेत्तो हेन्री सिज्विक हाचेकडे ताची वळख जाली आनी ताकाच लागून मार्शलान कांट आनी हेगेल हांच्या तत्त्वज्ञानाचो अभ्यास सुरू केलो. गणितशास्त्रावांगडा ताणें धर्म, तत्त्वज्ञान, समाजकारण ह्याय विशयांचेर अभ्यास केलो.

डार्विन, स्पेन्सर, कांट, स्पेन्सर, मिल, टॉयन्बी, कूर्नो, बेंथॅम हांच्या ग्रंथांच्या वाचनाचो मार्शलाचेर खूब परिणाम जालो. समाजांतलें दैन्य आनी दळिद्र हांचेकडे ताचें लक्ष गेलें. त्याच काळांत जॉन स्टुअर्ट मिल हाचो 'प्रिन्सिपल्स ऑफ पोलिटिकल इकॉनॉमी' हो ग्रंथ ताणें वाचलो. तेन्नासावन ताणें अर्थशास्त्राचो खोलायेन अभ्यास सुरू केलो.

१८७७ वर्सा ताणें आपली विद्यार्थीनी मेरी पॅले हिचेवांगडा लग्न

केलें. ताका लागून ताका मेळटाली ती आंकवार विद्यार्थ्यांखातीर आशिल्ली, अधिछात्रवृत्ती बंद जाली. उपरांत ब्रिस्टल हांगाचे युनिव्हर्सिटी कॉलेजचो पयलो प्राचार्य म्हूण ताणें १८८१ मेरेन काम केलें. पूण प्रशासकीय कामांचो ताण पडून ताची भलायकी इबाडली. ताका लागून ह्या पदाचो ताणें राजीनामो दिलो आनी सुशेग घेवपाखातीर एक वर्सभर तो इटलींत वचून रावलो. उपरांत ऑक्सफर्डच्या बॅल्यल म्हाविद्यालयांत अर्थशास्त्र (Political Economy) ह्या विशयाचो लेक्चरर म्हूण रुजू जालो. १८८५ वर्सा तो पर्थून केंब्रिज हांगा आयलो आनी केंब्रिज विद्यापिठांत अर्थशास्त्र विभागाचो मुखेल म्हूण ताणें चोवीस वर्सां काम केलें. १९०८ वर्सा विद्यापिठाचे सेवेंतल्यान निवृत्त जातकच ताणें आपलो विद्यार्थी ए. सी. पिगू हाची आपले सुवातेर नेमणूक करपाची शिफारस केली. प्रा. पिगूनूय मार्शल हाचे भशेन अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक आनी अभ्यासक म्हूण नामना मेळयली.

मार्शलान अर्थशास्त्रांतल्या केंब्रिज संप्रदायाची (केंब्रिज स्कूल) स्थापणूक केली. १९०२ सावन रॉयल इकॉनॉमिक्स सोसायटी म्हळयार पयलींची ब्रिटीश इकॉनॉमिक्स असोसिएशन ही संस्था आनी 'इकॉनॉमिक जर्नल' हें म्हयनाळें हांची स्थापणूक ताच्याच फुडारपणाखाल जाली.

गणिततज्ञ आसुनूय अर्थशास्त्राकडे ताची खूब ओड आशिल्ली. पूण तत्त्वज्ञान आनी नीतिशास्त्र ह्या विशयांवरवीं ताच्या अर्थशास्त्राविशींचे नदरेचेर त्या विशयांचो प्रभाव पडिल्लो दिसता.

आलफ्रेड मार्शल, ॲडॅम स्मिथ हाचो अनुयायी आशिल्लो. जॉन स्टुअर्ट मिलच्या ग्रंथान ताका अर्थशास्त्राविशींच्या अभ्यासाची प्रेरणा मेळळी. रिकार्डो आनी माल्थस ह्या नामनेच्या अर्थपंडितांच्या ग्रंथांचो ताणें खूब अभ्यास केलो. अर्थशास्त्रा वांगडाच ताका तत्त्वज्ञान आनी समाजजीण हांच्या अभ्यासाचीय ओड आशिल्ली, हें मार्शलाचें खाशेलपण.

मानवी विचारांच्या हेर ज्ञानाच्या शाखांभशेनूच अर्थशास्त्रीय विचारांत आशिल्लो सातत्यवाद ताणें आपणायल्लो. नैतिक वा भौतिक जगाचो नियाळ करतना आपूण सगळ्या परिणामांचो खाशेलो विचार करीनासतना आपलें लक्ष ह्या परिमाणांत जावपी वाडीचेर म्हळयार सीमांत बदलाचेर केंद्रित जाल्लें आसता. देखून सगळी मागणी ही एक पुराय प्रक्रिया आसता आनी तिचे सीमान्त वाडीचो, तिच्या उत्पादन खर्चांत जावपी वाडीवांगडा समतोल आसता, हें म्हत्वाचें विचारसूत्र ताणें आपणायलें.

नवे विचार आनी नव्यो अडचणी हांच्या आदारन पोरने सिध्दान्त नव्या स्वरुपांत मांडपाचो आपणे यत्न केला अशें 'प्रिन्सिपल्स ऑफ इकॉनॉमिक्स' ह्या ग्रंथाचे प्रस्तावनेंत ताणें म्हळां. देखुनूच ताका अर्थशास्त्रांतल्या नव्या सनातनवादी संप्रदायाचो प्रवर्तक मानला.

मनशाचे जीणेंत आनी देखुनूच अर्थीक जीणेंतूय, जीवशास्त्र आनी इतिहासान मान्य केल्लें सातत्याचें (Continuity) तत्त्व आसता. फक्त अर्थीक हेतून मनीस प्रेरित जाल्लो नासता पूण नैतिक हेतूंचोय ताचे जिणेंत म्हत्वाचो वांटो आसता, ही मार्शलाची विचारधारा सनातनवादी अर्थशास्त्राक नवो आकार दिताली. 'इकॉनॉमिक्स' हो शब्द ताणेंच पयलीं येवजिलो. अर्थशास्त्र हें शास्त्र आसा, पूण तें फक्त सैध्दांतिक शास्त्र म्हूण उरनासतना दीसपट्टे जीणेकडे ताचो मेळ घालूंक जाय हाचेर ताणें भर दिलो.

मार्शलाचे म्हत्वाचे ग्रंथ म्हळयार 'इकॉनॉमिक्स ऑफ इंडस्ट्री' (१८७९), 'प्रिन्सिपल्स ऑफ इकॉनॉमिक्स, (१८९०), 'इंडस्ट्री अँड ट्रेड' (१९१९) आनी 'मनी, क्रेडिट अँड कॉमर्स' (१९२४) हे आसात.

मार्शलच्या मतान, कालतत्त्वाक लागुनूच खंड आनी व्याज हातुंतलो भेद तयार जाता. दीर्घ काळांतल्या थीर उत्पादक घटकाचेर खंड आनी दीर्घ काळांत बदलपी पूण थोड्या काळांत न बदलपी भांडवलावयलें उत्पन्न व्याज (Quasi Rent) आसता. हेंच सातत्य आनी सारकेपण मनीस आनी ताणें निर्माण केल्लीं आयुधां हातूंतल्यान दिसून येता. कारण कश्ट आनी कश्टान तयार केल्ल्या वस्तूच्या मोलाचे सिध्दान्त निमाणे एकूच आसात. हाचें कारण अशें, विभाजन आनी विनियम हांच्या मध्यवर्ती प्रस्नांच्या वेगवेगळ्या सदर्भांत एकूच मागणी पुरवठ्याचो सिध्दान्त दिसून येता. अशे तरेन मार्शलच्या मताप्रमाण एकतेचें आनी सातत्याचें तत्त्व सगळ्यो अर्थशास्त्रीय घडणुको, विचार आनी विस्कटावणी हातूंत आस्पाविल्लें दिसता. हे बसकेचेर आदारून ताणें आपल्या अर्थशास्त्रीय विचारांची मांडावळ केल्या. त्या विचारांत विभाजन आनी विनियम हांचो प्रस्न मध्यवर्ती मानला. हेविशीं ताची भुमिका आनी ताचे विचार समन्वयवादाचे आसात अशें म्हणूं येता.

हो सीमान्तवाद मार्शलान सीमांतर उत्पादकतेच्या स्वरुपांत घटकमूल्य निश्चिततायेच्या स्वरुपांत लायलो आनी विभाजन आनी वांटणेच्या प्रस्नांची ताणें विस्कटावणी केली. पूण हें करता आसतना ताणें कलातत्त्वाचेर आदारीत बाजारपेठ मागणी-पुरवठो हांचो उपेग केलो.

मार्शलान आंशिक संतुळेचो विचार प्रभावीपणान मांडलो. खाशेल्या वस्तूंविशीं खाशेले बाजारपेठेंतूय कांय खाशेले संदर्भ घेवन आंशिक संतुळा थारता. अशा वेळार हेर सगळी परिस्थिती तशीच कायम उरता, बदलना अशें मार्शल गृहीत धरता.

मार्शलान वेपार आनी उद्येग, पयसो आनी पत हांचेर ग्रंथ बरयले. तातुंतूय ताची स्वतंत्र नदर दिसून येता. रॉयल कमिशनामुखार ताणें दिल्ले साक्षेंत पयशांविशींचे विचार दिसून येतात. पयसो आनी पत हांचेविशीं फोडणीशी करतना मार्शलान अशें मत उक्तायलां की व्याजाचो वास्तव दर आनी पयशांच्या रुपांतलो दर हातूंत फरक पडलो म्हणटकच तातुंतल्यान पतचक्राचो (Credit - Cycle) जल्म जाता.

मार्शलान अर्थशास्त्रांत नवे विचार पद्दतीची भर घाली, तशेंच अर्थशास्त्रीय विचार एकवटीत करून तांकां सुसंबध्द स्वरूप दिलें. ताच्या काळांत अर्थशास्त्रांत जे प्रचलित विचार पातळिल्ले, ते एकठांय हाडून तांची वेव्हारीक

उपयुक्तता ताणें दाखोवन दिली.

जॉन स्टुअर्ट मिलसारक्या मानवतावादी आनी उपयुक्ततावादी विचारवंतांक तो आध्यात्मिक आदर्श मानतालो. अर्थशास्त्राची उपयुक्तता ही मनशाचे जीणेचें सूख आनी भरभराट वाडोवपाखातीर आसची हाचेर ताची श्रध्दा आशिल्ली. ताच्या विचारांपसून उर्बा घेवपी ताचो शिश्य अर्थशास्त्रज्ञ पिगू कल्याणकारी अर्थशास्त्राचो प्रणेता मानतात.

मार्शलच्या काळांतल्या अर्थशास्त्रज्ञांचेर मार्शलच्या विचारांचो प्रभाव आशिल्लोच. पूण फुडले पिळगेंतल्या युरोपीय आनी अमेरिकन अर्थशास्त्रज्ञांचेरूय ताचो प्रभाव पडिल्लो दिसून येता. आर्थर सेसिल पिगू, जॉन मेनार्ड केन्स, सिडनी जॉन चॅपमन, जॉन रिचर्ड हिक्स ह्या म्हान अर्थशास्त्रज्ञांची शिश्य परंपरा ताणें निर्माण केली.

अर्थशास्त्रांत 'प्रातिनिधिक उत्पादनसंस्था' (Representive Firm) ही कल्पना सगळ्यांत पयलीं मार्शलान उपेगांत हाडली. बहिर्गत आनी अंतर्गत बचतींचो फायदो घेवपी, दीर्घकाळ उरपी, उत्पादन क्षेत्रांत सादारणपणान यश मेळोवपी आदर्श उत्पादनसंस्था म्हळयार प्रतिनिधिक उत्पादनसंस्था आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मार्शल, जॉर्ज कॅटलेट :** (जल्मः ३१डिसेंबर १८८०, युनियन टाउन (पेनसिल्व्हेनिया); मरणः १६ ऑक्टोबर १९५९, वॉशिंग्टन)

अमेरिकेचो एक खडेगांठ सेनानी, मुत्सद्दी आनी संवसारीक शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो जैतीवंत. ताचो जल्म एका गिरेस्त कुटुंबांत जालो. तो व्हर्जिनिया मिलीटरी इन्स्टिट्युटांतल्यान पदवीधर जालो (१९०१). सुरवेक कांय दीस फिलिपिन्स आनी अस्तंत अमेरिकेंत लश्करांत नोकरी करतकच युनायटेड स्टेट्स एनफंट्री कॅव्हलरी स्कूल (१९०७) आनी आर्मी स्टाफ कॉलेज (१९०८) हांगाच्यान ताणें खाशेली पदवी मेळयली आनी आर्मी स्टाफ कॉलेजांत दोन वर्सां अध्यापनाचें काम केलें. उपरांत ताणें अमेरिकेंत आनी फिलीपीन्सांत वेगवेगळ्या लश्करी पदांचेर १९१३-१९१६ ह्या काळांत काम केलें. कांय दीस जनरल हंटर लिगेटचो स्वीय सहाय्यक म्हणूनय ताणें काम केलें.

पयल्या म्हाझुजावेळार ताची नेमणूक, इश्ट राश्ट्रांक सहकार्य करपाखातीर अमेरिकी पयल्या डिव्हिजनाचो मुखेल म्हूण फ्रांसांत जाली (१९१७). सँ मीयेल आनी म्यूज-आर्गॉन हांगाचे लश्करी झुजांतले विशेश कामगिरीखातीर ताका बढती मेळ्ळी. १९१९-२४ ह्या काळांत तो जनरल जॉन जे. पर्शिंगचो स्वीय सहाय्यक आशिल्लो. त्या काळांत १९२९ चो राश्ट्रीय सुरक्षा कायदो संमत करून घेवपाक ताणें मदत केली. ह्या काळांत (१९२७-३३) फोर्ट बेनिंग हांगाच्या लश्करी विद्यालयांत ताणें भूंय-झुजाविशींचे नवे विचार उक्तायले. ताका लागून फुडें ताची सहायक मुखेली म्हूण नेमणूक जाली (१९३८). दुसऱ्या म्हाझुजांत ताचेकडेन सेना मुखेलीपद दिवन जनरलच्या पदाचेर ताची नेमणूक जाली (१९३९). युरोपांत सुरू जाल्ल्या ह्या झुजांत अमेरिका ओडटली ह्या अदमासान मार्शलान सक्तीची लश्करभरती सुरू केली. ताचे प्रेरणेन तिनूय दळांत सुसूत्रता आसची म्हूण एक समिती स्थापली आनी १९४१त अमेरिका झुजांत वांटो घेवचेआदीं इश्ट राश्ट्रांक कशी मदत करूं येत, हाची एक येवजण आंखली.

पर्ल हार्बरावयले घुरयेउपरांत (७ डिसेंबर १९४१) ताची इश्ट राश्ट्रांच्या भूंयसेनेच्या एका पंगडाचो मुखेली म्हूण नेमणूक जाली. झूज सोंपमेरेन ताणें भूंयसेनेंत दोन लाखांवयल्यान ऐशीं लाखांमेरेन वाड केली. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत लश्करांतल्यान निवृत्त जातकच ताचेकडेन राजकीय वर्तुळांतलीं म्हत्वाचीं पदां आनी मध्यस्थीचें कार्य सोंपयलें. सैनिक म्हूण ताणें फुडरापणाचे असामान्य गूण दाखयले.

ताचो पिंड लश्करी शिपायाचो आसलो, तरी झूज अटळ आसल्यार तें जावचें वा शांततायेचें सहजीवन आसचें, अशें ताका मनापसून दिसतालें. लश्कर आनी नागरी भाग हांच्यो शिमो खंय आनी केन्ना सुरू जातात आनी सोंपतात, हाची जाण ताका आशिल्ली. देखून लश्करी सेवेंतल्यान मुक्त जातकच लेगीत हॅरी ट्रूमन ह्या राश्ट्राध्यक्षान ताका परराश्ट्र मंत्रीपद दिवन ताच्या गिन्यानाचो उपेग झुजा उपरांतची परिस्थिती हाताळपाखातीर आनी शांतताय तशेंच समजिकाय स्थापन करपाखातीर केलो.

चीनांत राश्ट्रवादी चीन (तैवान) आनी साम्यवादी (लाल) चीन हांच्यांतलो संघर्श पालोवपाखातीर ताका धाडलो. ताका झूजबंदी करपाक यश आयलें. पूण तांच्यांतलो संघर्श उणो करप जमलेंना. १९४७त ट्रूमन हाणें ताच्या सल्ल्यान झुजा उपरांतचे शांततायेखातीर मदत करपाखातीर ट्रूमन तत्वप्रणाली मांडली. हातूंत युरोपांतल्या झुजांत सांपडिल्ल्या लोकांची सर्वांगीण उदरगत-खास करून अर्थीक उदरगत आनी शांततायेचें सहजिवित, हांचो आस्पाव आशिल्लो. मार्शलान हे येवजणेच्या आराखड्याविशीं ५ जून १९४७ दिसा हार्वर्ड विद्यापिठांत एक भाशण दिलें. ते येवजणेप्रमाण रशिया आनी ताचीं अंकित राश्ट्रां सोडल्यार अमेरिका अस्तंत युरोपांतल्या देशांक सगळे तरेचो अर्थीक पालव दिवपाक सज्ज आशिल्ल्याचें घोशित केलें. हे येवजणेक 'मार्शल येवजण' अशें नांव पडलां. फुडें संरक्षणाविशींच्यो आनी शांततायेविशींच्यो कबलाती जाल्यो. भलायकी इबाडिल्ल्यान ताणें परराश्ट्र मंत्रीपदाचो राजिनामो दिलो (१९४९).

ते उपरांत कांय वर्सां तो 'रेडक्रॉस' हे संस्थेचो अध्यक्ष आशिल्लो. कोरियन झुजावेळार (१९५०-५१) ताणें संरक्षण सचिव म्हूण काम केलें. दुसऱ्या म्हाझुजांत युरोपीय राश्ट्रां अर्थीक नदरेन दुबळीं जाल्लीं. तांकां अर्थीक पालव दिवन थंयची परिस्थिती जाग्यार घालपाखातीर ताणें एक विधायक येवजण आंखली. मार्शल प्लॅनाचे येवजणेखातीर ताका १९५३ त संवसारीक शांततायेखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**मार्शल, सर जॉन ह्यूबर्ट :** (जल्मः १९ मार्च १८७६ चेस्टर, चेशायर- इंग्लंड; मरण : १७ ऑगस्ट १९५८, इंग्लंड).

भारतांतल्या पुरातत्त्वविद्या सर्वेक्षण खात्याचो ब्रिटीश संचालक तशेंच मोहें-जो-दडो आनी तक्षशिला ह्या संस्थांचो नामनेचो उत्खनक.

१९०२ वर्सा पुरातत्त्व खात्याचो मुखेल म्हूण लॉर्ड कर्झन हाणें ताची नेमणूक केली. मोहें-जो-दडो, तक्षशिला, चारसद्द, सांची, सारनाथ, श्रावस्ती, पाटणा, भीटा आनी कासिया ह्या थळांचें उत्खनन करून विस्तारान तांची म्हायती उजवाडायली. १९०४ वर्सा पुराणवस्तू आनी वस्तू संरक्षणाचो कायदो पास करून घेतलो. तशेंच १९१७ वर्सा ताणें भारतांतल्या पुर्विल्ल्या वास्तूंक शासनाकडल्यान राखण मेळोवन दिली आनी खात्यांत एका पुरातत्त्वीय रसायनज्ञाची नेमणूक केली. उपरांत ताणें हांगाच्या संशोधकांक पुरातत्त्वीय उत्खननाचें प्रशिक्षण दिवन भारतीयांभितर पुर्विल्ले संस्कृतीच्या अभ्यासाविशीं आपलेंपण निर्माण केलें. १९०६ वर्सा शासनाकडल्यान पुरातत्त्व खातें कायम करून घेतलें.

संग्रहालयां आनी पुरातत्त्वीय संग्रहालयाची वाड करून कांय शिलालेख उजवाडायले. भारतीय पुराण वस्तूंचेर म्हत्वाचे ग्रंथ ताणें बरयले. तशेंच ताचो भारतीय दुर्गांविशींचो अभ्यास, गांधार कलेचेर बरयल्ले ग्रंथूय खूब गाजले. ताचे हेर कांय नामनेचे ग्रंथ अशे आसात- 'द मॉन्यूमेंटस ऑफ सांची' (तीन खंड), 'मोहेंजोदडो ॲण्ड द इंडस सिव्हिलायझेशन' (तीन खंड), 'तक्षशिला'.

निवृत्ती उपरांत मार्शल इंग्लंडाक गेलो. ताका सर हो भोवमान दिलो. इंग्लंडाकूच ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**मालदीव :** मालदीव प्रजासत्ताक : ("दिवेही जुमहुरीया" रिपब्लीक ऑफ मालदीव). हिंदी महासागरांतलें एक प्रजासत्ताक राश्ट्र. अक्षवृत्तीय आनी रेखावृत्तीय विस्तार ७°७' उ. ते ०°४३' द. आनी ७२°३१' उदेंत ते ७३°४३' उदेंत. क्षेत्रफळ २९८ चौ. किमी. आसा. देशाची दक्षिण-उत्तर लांबाय ८२०किमी. आनी उदेंत-अस्तंत रुंदाय १३०किमी. आसून दर्यादिग २,३९३किमी. लांबायेची आसा. भारताचे दक्षिणेक आशिल्लें हें आशियांतलें दुसरें सगळयांत ल्हान राश्ट्र. ह्या देशांत सु. २,०००परस चड जुंवे आसात. पूण हातुंतल्या फकत २२० जुंव्यांचेर लोक रावतात. माले ही मालदीवची राजधानी आसा. लोकसंख्या : २९०२११ (१९९१).

**भूंयवर्णन** : मालवीय प्रजासत्ताकांत इहवांडिफुलू, टिनाडुम्मटी, मिलडुम्मडुलू, माले, आरी, फेलिडू आनी हेर जुंव्यांचो देश आसा. ह्या ल्हान ल्हान जुंव्यांतले चडशे जुंवे सपाट आनी दर्याथळासावन सामकेच कमी उंचायेचे आसात. कांय ल्हान जुंव्यांची निर्मितिप्रक्रिया आजून सुरू आसा आनी ल्हव ल्हव हांचो आकारय वाडत आसा, तर कांय जुंव्यांची उंचाय आनी आकार कमी जायत आसा. कांय जुंव्यांचेर गोड उदकाच्यो झरी मेळटात.

**हवामानः** मालदीव जुंव्यांचें हवामान विषुववृत्तीय प्रकारचें उश्ण आनी दमट आसा. वर्सुकी सरासरी तापमान २७° सें. आसता. ईशान्य मोसमी वाऱ्यांच्या काळांत (नोव्हेंबर-मार्च) हवामान सादारण थंड आनी सुखदिणें आसता, तर नैर्ऋत्य वाऱ्यांच्या काळांत (जून-ऑगस्ट) हवामान वादळी आनी पावशी आसता. दक्षिणेकडच्या जुंव्यांपरस उत्तरेच्या ल्हान ल्हान जुंव्यांक चड वादळी वारें लागता. दक्षिण वाठारांनी सरासरी पावस ३८० सेंमी. तर उत्तरेक २५०सेंमी. पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** जुंव्यांचेर कांटे आशिल्ल्या आनी ल्हान ल्हान झोपांचीं दाट रानां आसात. माड पणस, केळीं, पोपाय, आंबे, वड आनी हेर रुखांचे प्रकार बरेच आसात. विंगड विंगड प्रकारचे हुंदीर, सोंशे, फळां खावपी वटवागोळीं आनी हेर मोनजात सांपडटा. बदकां, बिटर्न (बोक्याची एक जात), कावळे, गुलिंदा अशीं विंगड विंगड प्रकारचीं दर्यासवणीं हांगा मेळटात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था** : टॉलेमीच्या लिखाणावयल्यान अस्तंत्यांक इ.स. दुसऱ्या शतमानांत मालदीव जुंव्याविशीं पयलीं म्हायती मेळिल्ली. दक्षिण आशियाई लोकांचो हांगा पयलो राबितो आशिल्लो. ११५३त अरब व्यापाऱ्यांनी हांगा इस्लाम धर्माचो प्रसार केल्लो. तेन्नासावन १९५३ मेरेन ९२ सुलतानांनी मालदीवाचेर राज्य केलें. डॉन लोरेन्को दे आल्मेईदा हो पुर्तुगेज मनीस १५०७ त हांगा पावलो, तेन्ना पुर्तुगेज सैन्यांनी मालदीव जुंवे आपल्या हातांत घेतले. १५७३त मुहम्मद ठाकुरूफानी अल् आझम हाणें हांगाचे पुर्तुगेज सत्तेचो शेवट करून तो आपूण जुंव्यांचो सुलतान जालो. सतराव्या शतमानांत सिलोनाचेर सत्तेर आशिल्ल्या डचांकडे जाल्ल्या कराराक लागून मालदीवची राखण करपाची जापसालदारकी डचांचेर आशिल्ली. हे खातीर मालदीवचो सुलतान सीलोनाक खंड धाडटालो. १८८७ त ब्रिटिशांनी जुंव्यांचेर जैत मेळयलें. १९५६त ब्रिटिशांनी गां जुंव्याचेर हवाईतळ आनी हिट्टाडू जुंव्याचेर ब्रिटिश रेडिओ केंद्र उबारलें. २६ जुलय १९६५ त कोलंबो हांगा जाल्ले कबलातीप्रमाण मालदीवाक स्वातंत्र्य मेळ्ळें. पूण अद्-दिन घराण्याचो शेक आजुनूय चलतालो. ११ नोव्हेंबर १९६८ दिसा मालदीव प्रजासत्ताक म्हूण जाहिर केलें. २६ जुलय हो राश्ट्रीय सुटयेचो दीस मानतात. १९६८ त देशाचें नवें संविधान तयार केलें. देशांत एकसदनी राज्यपद्दत आसा. राश्ट्राध्यक्षाक पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात. हांकां पालव दिवपाक (मजलिस) विधानमंडळ आसता. कार्यकारी मंडळाचो तो मुखेल आसता आनी मंत्रिमंडळाची रचणूक तोच करता. विधानमंडळाचे ४८ वांगडी आसतात. हांगा राजकीय पक्ष नात. १९८०त मालदीवांत उच्च न्यायालयाची स्थापणूक जाली.

**अर्थीक स्थिती** : अर्थीक नदरेन देश खूब मागाशिल्लो आसा. संवसारांतल्या सगळयांत मागाशिल्ल्या २५ देशांभितर मालदीवचो आस्पाव

जाता. नुस्तें मारपाच्या धंद्याचेर देशाची अर्थवेवस्था आदारिल्ली आसा. वट्ट भूंयेंतली फकत १०% भूंय शेतवडीक फावसारखी आसा. ज्वारी, दूदी, अनस, ऊंस, बदाम आनी उश्ण प्रदेशांत जावपी भाजीपालो आनी फळां कमी प्रमाणांत जातात. माड हेंच हांगाचें म्हत्वाचें झाड आसून ताचो उपेग घरां आनी ल्हान बोटी बांदपाक, तेल काडपाक आनी दोरयो करपाक जाता. शीत आनी नुस्तें हो लोकांचो रुचीचो आहार म्हूण तांदळांची आयात चड प्रमाणांत करची पडटा. माले जुंवो वेपाराचे नदरेन म्हत्वाचो आनी उकतें बंदर (Free Port) आसा.

**येरादारी आनी संचारण :** रस्त्यांच्या येरादारीच्या मळार मालदीव बरोच फाटीं आसा. राजधानी माले हांगा कांय बरे रस्ते आसात. देशांतल्या जुंव्यांतली येरादारी ल्हान ल्हान बोटींतल्यान जाता. माले हांगा आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. दुसरो विमानतळ हूलूलू जुंव्याचेर आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** मालदीवांतले थळावे लोक द्रविड वंशाचे आसात. उत्तरेकडच्या जुंव्यांवयल्या लोकांचो अस्तंत भारत, अरबस्तान आनी उत्तर आफ्रिकेंतल्या लोकांचो संबंद आयिल्ल्यान मिश्रवंशीयांची संख्या मर्यादीत आसा. कांय कॉकेशियन आनी मले लोकूय आसात. पुर्विल्ले मालदीवी लोक बौध्द धर्माचे आशिल्ले. बाराव्या शेंकड्यांत तांचें इस्लामीकरण करून आयज इस्लाम होच हांगचो मुखेल धर्म आसा. सुन्नी मुस्लिमूय बरेच आसात.

दीवेही, ही मालदीवाची राश्ट्रभाशा आसा. अरबी आनी उर्दू भाशा उलोवपीय चड लोक आसात. सतराव्या शेंकड्यांत थाना लिपीचो विकास जालो. सुमार ३% मालदीवी इंग्लीश भास उलयतात. हांगाचे शिक्षणपद्दतीचे तीन प्रकार आसात १) परंपरेन चलत आयिल्ल्यो धर्मीक शिक्षण दिवपी शाळा (मखताब), २) दिवेही भाशेच्यो प्राथमिक शाळा (मद्रसा) आनी इंग्लीश माध्यमाच्यो प्राथमिक आनी माध्यमिक शाळा. मखताबान कुराण, मुळावें अंकगणित आनी दिवेही वाचूंक आनी बरोवंक शिकयतात. उंचेल्या पांवड्यावयलें शिक्षण घेवपाक विद्यार्थ्यांक दुसऱ्या देशांत वचचें पडटा.

-कों. वि. सं. मं.

## मालपहाडिया :

भारतांतली एक अनुसूचित जमात. अस्तंत बंगालांतल्या मुर्शिदाबाद, जलपैगुडी, पुरुलिया, मालडा, अस्तंत दिनाजपूर आनी मिदनापूर तशेंच बिहारांतल्या दाल्मा, रांची, सिंगभूम ह्या जिल्ह्यांनी मालपहाडिया लोकांची वसती आसा.

ह्या लोकांचे उत्पत्तेविशीं एक कथा आसा ती अशी- रावणान सीतेक पळोवन व्हरतकच राम-लक्ष्मणान तिका खूब सोदली. पूरो जाल्ल्यान, सुशेग घेवपाखातीर ते एके सुवातीचेर राविल्ले आसतना रामाक घाम आयलो. त्या घामावांगडा जो मळ आंगांतल्यान भायर आयलो, त्या मळांतल्यान एक जोडपें उत्पन्न जालें. मळापसून उत्पन्न जाल्ल्यान आनी पहाडी प्रदेशांत राविल्ल्यान तांकां मलपहाडी अशें नांव पडलें. त्या जोडप्याचेच हे लोक वंशज मानतात.

रिश्ले हाच्या मतान ह्या लोकांत दोन मुखेल पोटजाती आसातः माल पहाडिया आनी कुमार वा कुमारभाग. तशेंच देहेरी, पुझार, लेया, गृही, सिंध, मांझी, अहीरी वा धनुकी, पातोर हे पोटभेदूय आसात. हातूंत उच्च-नीच अशेय भेदभाव आसात.

घर बांदतना, पयलो खांबो पुरचे पयलीं, त्या फोंडांत मुखेल देवतेच्या आनी पितृदेवतेच्या नांवांन एक पयसो उडयतात. ते जमनीपसून थोडे उंचायेचेर कोंड्यांचीं घरां बांदतात. घराचें छप्पर देंवतें आनी तणाचें छप्पर आसता. घराच्यो वण्टी कुडाच्यो आसून वण्टीचेर सुकण्यांचीं-जनावरांचीं चित्रां काडून रंगयतात. रातचें न्हिदपाखातीर मुखेल खोंपीबगर आनीक एक ल्हान खोंप आसता. आंगणांत गोरवांखातीर एक गोठो बांदतात.

हे लोक भ्रश्ट स्वरुपांत बंगाली भास वा बंगाली भाशेचें मिश्रण आशिल्ली सद्री बोली उलयतात.

मालपहाडी लोक सदरो आनी पुडवें न्हेसतात. बायलो साडी आनी पोलको वापरतात. तांकां वसतींची खूब आवड आसा. त्यो रुपें, पितूळ वा कंवचेचीं कांकणां घालतात. कानांत डूल आनी नाकांत नथ घालतात. ह्या लोकांक नितळसाणीची खूब आवड आसता. ते आपलीं घरां झाडून, सारोवन निवळ दवरतात.

हे लोक मांसाहारी आसून गायचें सोडून हेर मांस ते खातात. शीत हें तांचें मुखेल अन्न आसा. बाजरीपसून तयार केल्लो सोरो आनी भातापसून तयार केल्लो हंडिया नांवांचो सोरो ते पियेतात.

ह्या लोकांचो भूताखेतांचेर आनी मृतात्म्यांचेर खूब विश्वास आसा. भगवान हो तांचो सगळ्यांत श्रेश्ठ देव, आसून तो जगाचो उत्पत्तिकर्तो आनी संहारकर्तो आसा, अशें ते मानतात. तशेंच काली, सूर्य, मनसा, दयामाई, भगवती, हरिनाथ, भूईन देवता, महादेव, धरती, गरमी गोसाई ह्या देवांक तशेंच ग्रामदेवतांक भजतात. वैशाख म्हयन्यांत ते श्रीरामाची पुजा करतात. तशेंच वैशाख, आशाढ, माघ आनी फाल्गुन ह्या म्हयन्यांनी आयतारा ते सूर्याची पुजा करतात आनी दोन ते धा धवे बकरे बळी दितात. ज्येश्ठ म्हयन्यांत, गाय, बैल, बोकड्यो हांचे राखणेखातीर गोरभू देवाची पुजा करतात. हेर देवांचीय ते पुजा करतात. भुताखेतांक कोंबो दिवन संतुश्ट करतात. गांवच्या पुजाऱ्याक 'मांझी' म्हण्टात.

भुरगीं वयांत येतकच तांचीं लग्नां करतात. एकाच कुळांत लग्नसंबंद करीनात. मध्यस्थाक 'सिथु' म्हण्टात. तो लग्नां जमयता. शिवरात्रे उपरांत तांच्या लग्नाचो तेंप सुरू जाता. भाद्रपद, पौष आनी चैत्र म्हयन्यांत लग्नां करीनात. तांच्यांत देज दिवपाची चाल आसा. लग्न निश्चित थारावपाचे विधीक 'मालाचंदन' म्हण्टात. ह्या दिसा लग्नाचो म्हूर्त थारावन लग्न दोरे बांदतात. लग्नाक जितले दीस उरतात, तितल्यो दोराक गांठी मारतात.

लग्नापयलीं जलहरी देवतांची पुजा करतात. हांचो लग्ना सुवाळो खूब काळ चलता.

बाळंत जातकच पांच दीस सुयेर पाळटात. णवव्या दिसा चल्याचें आनी सातव्या दिसा चलयेचें मुंडन करतात. उपरांत नांव दवरतात. तीन ते स म्हयन्यांच्या काळांत भुरग्याक अन्न खावयतात. तेन्ना सगळ्या सोयऱ्यांक, इश्टांक जेवण घालतात. त्या दिसासावन आवय पुराय शुध्द जाली अशें समजतात.

मालपहाडिया लोकांचो पुनर्जल्माचेर खूब विश्वास आसा. हे लोक मडीं पुरतात वा जाळटात. कसलीय अर्थीक अडचण आसल्यार, पावसाचे दीस आसल्यार वा शेताच्या कामाचे दीस आसल्यार हे लोक मडीं पुरतात. साथीचे रोग, सोरपान दंश केल्यार आनी उदकांत बुडून वा वीज पडून मेल्यार मात ते मडीं गांवांभायर व्हरून पुरतात. मड्याक तेल, हळद लावन न्हाणयतात आनी धव्या कपड्यान गुठलायतात. मड्याची तकली उत्तरेवटेन करून ताका फोंडांत दवरतात आनी ताचेर माती घालतात. मडें लासपाचें आसल्यार उत्तराधिकारी ताका अग्नी दिता. मसंडेंतल्यान घरा वतना वाटेर न्हंयेचेर वा तळयेर न्हावन घरा वतात.

कुटुंबाप्रमाण ते पांच, णव, इकरा, तेरा, पंदरा वा तेवीस दीस सुतक पाळटात. पूण सादारणपणान ते तेरा दीस सुतक पाळटात. मेल्याचें श्राध्द करतात आनी एका वर्साउपरांत सगळ्या गांवांक जेवण घालतात.

मालपहाडिया लोक शेती करप, मजुरी करप, लाकडां एकठांय करून कोळसो करून विकप, बोकड्यो, गोरवां, कुकडां पोसप हे वेवसाय करतात. भात, तीळ, ऊंस, ताग, कड्डण, भाजीपालो हींय पिकां ते काडटात.

- कों. वि. सं. मं.

**मालपेकर, अंजनीबाई :** (जल्म : २२ एप्रिल १८८३, मालपें, पेडणें; मरण : ६ ऑगस्ट १९७४).

गोंयची एक श्रेश्ठ गायिका. अंजनीबाईच्या घराण्यांत गायनाचो वारसो पिळगेन पिळगी चलत आयिल्लो. तातूंत अंजनीबाईची सवी पिळगी. अंजनीबाईची पणजी गुजाबाई ही त्या काळांत संगितांतली एक पंडिता मानताले. आजो वासुदेव मालपेकर हो गायक जाल्यार चुलतो वामन मालपेकर तबलजी आशिल्लो. तिची आवय नबूबाई हीय एक बरी गायिका आसून तिका तिच्या बापायकडल्यान आनी बापोलयाकडल्यान गायनाचें शिक्षण मेळिल्लें. अंजनीबाईक भुरगेपणांतच गायनाची स्फूर्त आनी शिक्षण मेळत गेलें. तिचो बापूय नारायण वासुदेव हाणें आपलो इश्ट पं. भातखंडे हाचेमार्फत नजीर खाँ हाका आपले धुवेक गायन शिकोवपाची विनवणी केली. नजीर, खाँ हाणें अंजनीबाईच्या आठव्या वर्सा तिका गंडो बांदलो. नजीर खाँकडे अंजनीबाईन सतत ३६वर्सां तालीम घेतली.

फांतोडेर चार वरांचेर नजीर खाँची तालीम सुरू जाताली. तशेंच खादीम हुसेन आनी छज्जुखाँ हेय दीसभरांत हेर वेळार तालीम दिताले. तेभायर संस्कृत, उर्दु ह्यो भासो शिकपाखातीर आनी नाच, भाव, लावणी हांचेखातीर वेगळे गुरू आशिल्ले.

खाँसाहेब नजीरखाँ हाची खाशेली अशी शिकोवपाची पद्दत आशिल्ली. ताणें सुरवेक तंबोऱ्याचेर फकत खड्या स्वरसप्तकाची साधना करपाक लावन अंजनीबाईचो उस्वास तयार करून घेतलो. उपरांत गळ्याचे चारूय दर्जे सारके शक्तीचे करून घेतले. तेउपरांत जोडस्वरांची कामगत, तानो, पलटे खंडमेर पद्दतीन स्वरांची बढत, तरातरांचे एकशें आठ पलटे इतकें 'यमन कल्याण' रागांत तयार करून घेतलें. एक यमन कल्याण हो राग गुरून अंजनीबाईक पांच वर्सां शिकयलो आनी दोन वर्सां 'भैरवी' शिकयली. 'यमन' हो तीव्र स्वरांचो राग आनी 'भैरवी' हो कोमल स्वरांचो राग आशिल्ल्यान पुराय बारा स्वर, तातुंतल्या बारीक बारीक स्वरलंकारांसयत गळ्यांत पक्के जाले. बसका पक्की आनी शुध्द जातकच फुडल्या कांय वर्साभितरच खाँसाहेबान २५ व्हड राग आनी २०० रागिण्यो अंजनीबाईक शिकयल्यो. हें उस्तादी शिक्षण शिकतना तिणें ८०० ते ९०० चिजो याद केल्यो.

अंजनीबाईक शास्त्रीय संगीत मळार खूब नामना मेळ्ळी. भारतांतल्या व्हड व्हड संस्थानांतल्यान तिका गायनाखातीर आमंत्रणां येवपाक लागलीं. अंजनीबाईन नाचाचोय अभ्यास केल्लो. उर्दू, हिंदी, गुजराती भाशाय बाई शिकिल्ली. कच्छ, गुजरात, सौराष्ट्र, मध्यप्रदेश, उत्तरप्रदेश, पंजाब आनी नेपाळमेरेन पातळिल्ल्या संस्थानांनी अंजनीबाई गायनाच्या निमतान भोंवली. सबंद भारतभर तिच्यो मैफली जावंक लागल्यो. तिका बैठकींतल्या गायनांत सारंगीची साथ गोविंदरामजी, अजीमबक्ष, अब्दुल अझीझ, पांडुमामा मंगेशकर, रघुनाथजी ह्या नामनेच्या सारंगीयांनी केली. तबल्याची साथ नरहरी मांजरेकर आनी दिल्लीचो नथ्थनखाँ हांणी केली.

१९३१ वर्सा अंजनीबाईन सॉलिसीटर शूरसेन कलंगुटकर आनी नामदेव मांजरेकर हांकां वांगडा घेवन बॉम्बे म्युझिकल आर्ट सोसायटीची स्थापणूक केली. हे संस्थेवतीन खाँन फैयाज खाँ हाचें पयलें गायन जालें. उपरांत अल्लादिया खाँ, अब्दुल करीम खाँ, पंडित वझेबुवा, बालगंधर्व, बडेगुलाम अलीखाँ, विलायत हुसेन खाँ, कुमार गंधर्व, नारायणराव व्यास, सवाई गंधर्व, मल्लिकार्जुन मंसुर, श्रीमती केसरबाई ह्या भारतांतल्या नामनेच्या गायक गायिकांच्यो मैफिली हे संस्थेवतीन जाल्यो.

१९५८ वर्सा केंद्रीय संगीत नाटक अकादमीची पयली 'फेलो' जावपाचो मान तिका मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**मालवण :** महाराष्ट्राच्या सिंधुदुर्ग जिल्ह्यांतलें मालवण तालुक्याचें

मुखेल ठिकाण. हांगा अरबी दर्यावयलें एक ल्हान बंदर आसा. वेपार आनी दळणवळण हाका लागून हें शार ह्या वाठारांतलें मुखेल केंद्र जावन आसा. ह्या बंदराचे उदेंतेक मिठागरां आसात. थंयसावन मिठाची निर्यात जाता. तशेंच मालवणांत नुस्तेमारी, चामड्याचे उद्येग, काजूचे कारखाने, शेती वेवसाय हेय उद्येग चलतात. मालवण वाठारांत अभ्रक आनी चिनी मातयेचे सांठे आसात. नुस्तेमारीखातीर दांडीची वेळ हो वाठार चड म्हत्वाचो आसा. दर्यादेगेच्या फातराळ वाठारांत तीन ल्हान जुंवे आसात.

१६६४ वर्सा हातुंतलो व्हडलो 'कुरटे' ह्या जुंव्याचेर शिवाजी महाराजान सिंधुदुर्ग हो किल्लो बांदलो. दुसऱ्या जुंव्याचेर पद्मगड हो किल्लो मोडिल्ले अवस्थेंत आसा. शिवाजीन ह्या बंदरांत कांय सुदारणां करून तें आपलें मुखेल सागरी केंद्र केलें. ताकालागून मालवणाक वेपारी म्हत्व आयलें. सिंधुदुर्गाक लागूनय मालवणाक इतिहासीक म्हत्व मेळ्ळें. १७४६-४७ हीं दोन वर्सां हें मालवण पुर्तुगेजांकडे आशिल्लें. उपरांत १७९२ मेरेन तें मराठ्यांकडेन आशिल्लें.

सिंधुदुर्गाचेर शिवाजी महाराजाचें देवूळ आसा. थंय चैत्रांतले नमीक व्हडा उमेदीन शिवजयंती मनयतात. मालवणांत मौनी महाराजाचेंय देवूळ आसा. मालवणासावन ११किमी. चेर धामापूर हांगा शिवाजीन बांदिल्लें एक तळें आसा. तशेंच मालवणचे उत्तरेक आचरा हांगा हालींच बौध्द आनी जैन लेणीं मेळ्ळयांत. १९८५ सावन मालवणच्या वाठारांत, आशिया खंडांतली, दुसऱ्या क्रमांकाची 'सागरीय उद्यान येवजण' सुरू जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**मालवी भास आनी साहित्य :** मध्य प्रदेशांतल्या उज्जैन, इंदोर, देवास, मंदसोर आनी राजगढ ह्या प्रदेशांनी मालवी भास उलयतात. तशेंच दक्षिणेक नर्मदा न्हंयेमेरेन, निमाड, भोपाळ, नरसिंहगढ, दक्षिण झालेवाड, नीमच, रतलाम, उदेंत झाबुआ हांगामेरेन, आनी राजस्थानच्या कांय वाठारांनीय ही भास उलयतात. चांदा आनी बैतूल जिल्ह्यांतल्यो कांय जातीय मालवी भास उलयतांत. कोटा जिल्ह्याच्या डांग प्रदेशांतूय मालवी भास उलोवपी लोक आसात.

चडकरून णवव्या शेंकड्यासावन मालवी ही स्वतंत्र भास जाल्याचीं प्रमाणां आसात. त्या काळांत ती लोक वेव्हाराची भास आशिल्लीच. तशेंच शिक्षणाच्या वाठारांतूय हे भाशेचो उपेग जातालो. ही भास म्होंवाळ आशिल्ल्यान तिच्यांत कितल्याशाच विंगड विंगड भाशांचे शब्द सभावीक रुपान भरसल्यात. मालव जनपदांतल्या लोकांनी जंय जंय वसणूक केली, थंयचे थळावे बोलीन मालवी भाशेचेर आपलो प्रभाव घालो. ह्या लोकांनी दोंगराळ प्रदेशांनीय वसणुको केल्यो. तांच्यावांगडा तांची भाशाय थंय पावली. तेखातीर पहाडी बोली, मध्य आशियांतल्या हेडग्या जमातींच्यो बोली आनी राजस्थानांतल्या कांय बोलींवांगडा मालवी भाशेचें खूब सारकेपण दिसता. मालवीचीं सामान्य लक्षणां अशीं आसात-

ऱ्हस्व इ चो उच्चार अ जाता. देखीकः दिन-दन, हरिण-हरण, पंडित-पंडत. ऐ आनी औ हे आवाज ए आनी ओ जातात. देखीकः चैन-चेन, और-ओर. य आनी व शब्दांचे उच्चार ज आनी ब जातात. देखीकः त्रिवेणी-तिबेरणी, विष्णु-बिसनु, यदा-जदा, संध्या-संजा, किसन ह्या शब्दाचो किसन्यो तशेंच सुमन-सुमन्यो, बालक-बालुडो, रुपयो-रुपट्टी अशे शब्द विकृत करपाचीय प्रवृत्ती आसा.

रतलामी, मंदसौरी आनी आदर्श अशीं मालवी भाशेचीं तीन मुखेल रुपां आसात. उमठवाडी, सोंधवाडी, मेवाती, भोयरी, रागडी ह्यो मालवीच्यो कांय पोटभाशाय आसात.

मालवीच्या लिखाणांत नागरी लिपीचो वापर जाता. हिंदी भाशेप्रमाण मालवी भाशेंत हूं आनी है हीं क्रियापदां आसात. पूण तांचे भूतकाळ थो, था, थी आनी भविश्यकाळ गो, गा, गी अशे जातात. मालवींत नपुसकलिंगी नामां नात. खंय, जंय, हांगा ह्या क्रियाविशेशणांखातीर मालवींत अनुक्रमान कठो, जठो, अठे अशे शब्द आसात.

भोजराजाच्या काळांत (इ. स. चो ११वो शेंकडो) मालवी साहित्याची खूब उदरगत जाली. पुर्विल्लें मालवीचें साहित्य अपभ्रंश भाशेकडे संबंदीत आसा. उज्जैन हांगाच्या प्राच्य ग्रंथसंग्रहालयांत मालवीची कांय साहित्यिक सामुग्री उपलब्ध आसा.

मालवी साहित्यांत लोकगीतांची संख्या बरीच व्हड आसा. ऋतू, सण-परबो हांचीं गीतां, खेळांचीं गीतां, देव-देवतांचीं पदां, तीर्थांचीं पदां, संस्कारांचीं पदां, प्रेमगीतां, पनिहारिणीचीं गीतां, चरखागीतां, बालगीतां, फांतोडेर म्हणपाचीं पदां अशें तांचें वर्गीकरण करूं येता. देखीक भुरग्यांच्या खेळांतलें एक पद :

*अटली-मटली चव्वा-चवन्नन । आवे नार, जावे नार ।।*

*अगला झूले बगला झूले । सावन मास करेली फूले ।।*

*फुल-फुलकी बावडी । राजा गयो दिल्ली ।।*

*दिल्ली से लायो सात कटोरी । एक कटोरी फूटी ।*

*राजा की टांग टूटी ।।*

मालवी लोककथांनी प्रबंध रुपाच्यो दीर्घकथा खूब आसात. तातूंत चूडावत, शक्तावत, राणावत, चैलावत, बगडावत ह्या रजपूत वंशांतल्या वीर पुरसांच्यो खूब कथा आसात. तशेंच सणा-वारांच्यो कथा काणयोय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मालवीय, पं. मदनमोहन :** (जल्म : २५ डिसेंबर १९६१, अलाहाबाद. मरण : १२ नोव्हेंबर, १९४६, बनारस).

नामनेचो भारतीय नेतो, विद्वान पंडित आनी बनारस हिंदू विद्यापिठाचो संस्थापक. ताचो जल्म गरीब अशा श्रीगौड ब्राह्मण कुटुंबांत जालो. ताचो बापूय ब्रजनाथ हो विद्वान आनी भक्तिप्रधान ग्रंथांचो लेखक आशिल्लो. ताचो आजो प्रेमधर होंय व्यासंगी विद्वान आनी श्रीकृष्णभक्त आशिल्लो. ताचे आवयचें नांव मूनाबाई.



मदनमोहनाचें मुळावें शिक्षण पं. हरदेवजी हाचे पाठशाळेंत जालें. थंय ताणें संस्कृत श्लोकांचें पाठांतर, व्यायाम आनी संगीत ह्या विशयांचेंय शिक्षण घेतलें. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा म्हळ्यार १८७७ वर्सा तो प्रवेशपरीक्षा पास जालो. मॅट्रिकेचे परिक्षेउपरांत ताणें म्यूर सेंट्रल कॉलेजींत प्रवेश घेतलो. कॉलेजींत आसतनाच १८७८ वर्सा मिर्झापूरच्या पं. नंदराम हाची धूव कुंदनदेवी हिचेकडे ताचें लग्न जालें. १८८० वर्सा ताणें आदित्यराम भट्टाचार्य ह्या सहकाऱ्याच्या आदारान 'हिंदुसमाज' नांवाची एक संस्था स्थापली. १८८४ वर्सा बी. ए. जातकच स्वताचें शिक्षण जालें तेच सरकारी शाळेंत ताका नोकरी मेळ्ळी. १८८५ वर्सा 'हिंदुसमाज' संस्थेचें पयलें सार्वजनिक अधिवेशन भरलें. फुडल्या वर्सा त्या काळच्या संयुक्त प्रांताच्या प्रतिनिधीमंडळांत सुवात मेळोवन तो कलकत्त्याच्या काँग्रेस अधिवेशनाक गेलो. थंय मदनमोहनाचें उलोवप आयकून दादाभाई नौरोजी, सर ह्यूम हे प्रभावित जाले. १८८५ वर्सासावन नोकरी सांबाळून तो 'इंडियन युनियन' ह्या ल्हान स्थानिक पत्राचें संपादन करतालो. कलकत्त्यासावन परत येतकच रामा रामपाल सिंग हाणें ताची 'हिंदुस्तान' पत्राचो संपादक म्हूण नेमणूक केली. वर्सभरांत 'हिंदुस्तान' चो खप खूब वाडलो. १८८८ वर्सा अलाहाबाद हांगा जाल्ल्या, काँग्रेस अधिवेशनांत मालवीयाक समितीचें चिटणीसपद मेळ्ळें. १८८९ वर्साच्या मुंबय अधिवेशनासावन परत येतकच मालवीयान हिंदुस्तान पत्राचो राजीनामो दिवन वकिलीचो अभ्यास सुरू केलो.

वकिलीची पदवी मेळटकच १८९२ वर्सासावन ताणें वकिलीक सुरवात केली. भौशिक कामांवांगडा, काँग्रेसच्या कामांत लक्ष घालून १९०९ मेरेन ताणें वकिली केली. खिलाफत आनी असहकार आंदोलन बंद जावपाक कारणीभूत जाल्ल्या चौरीचौरा प्रकरणांत २२५ जाणांक फाशीची सजा जाली. ताचें वकीलपत्र मालवीयान घेतलें आनी तातुंतल्या १५३ जाणांचे जीव वांचयले. उपरांत ताणें अलाहाबाद म्युनिसिपल बोर्डांतय कार्य सुरू केलें. बोर्डाचो उपाध्यक्ष म्हूण ताका खूब नामना मेळ्ळी. १९०२ वर्सा तो संयुक्त प्रांताच्या कायद्यामंडळाचेर गेलो. काँग्रेसच्या मवाळ गटावांगडा रावन संघर्ष टाळ्ळो आनी बंगाल फाळणीआड प्रचार आनी स्वदेशाचो पुरस्कार केलो. १९०३ वर्सा भायल्या गांवांतल्यान प्रयाग हांगा येवपी विद्यार्थ्यांखातीर हिंदू वसतिगृह बांदलें. ह्या वसतिगृहाखातीर ताणें खूब कश्ट घेतले. शेंकड्यांनी व्याख्यानां दिवन पन्नास हजार रुपयांचो निधी जमयलो. त्या वेळच्या संयुक्त-प्रांत सरकारान ह्या वसतिगृहाक एक लाख रुपया दिले. अशे तरेन लोकांच्या घरदारा वचून, सरकार दरबारांत खेपो घालून ताणें एक वसतिघर उबारलें.

- १९०७ वर्सा ताणें 'अभ्युदय' पत्र सुरू केलें. १९०९ वर्सा तो काँग्रेसचो अध्यक्ष जालो. त्याच वर्सा ताका इंपीरियल लेजिस्लेटिव्ह काउन्सिलांत प्रवेश मेळ्ळो. थंय ताणें प्रेस ॲक्ट, सेडीशस मिटिंग्ज ॲक्ट आनी परदेश मजूर भरतीआड खूब विरोध केलो. होमरूल लीग हाकाय ताचो विरोध आसलो, तरी ॲनी बेझंट आनी हेर होमरूल फुडाऱ्यांक अटक केल्लेखातीर ताणें सरकाराचो निशेध केलो.

१९०९ वर्सासावन तो अलाहाबाद हांगा 'लीडर' नांवाचें इंग्लीश पत्र चलयतालो. १९१० त ताणें 'मर्यादा' हें मासिक काडलें. १९१५ सावन 'अभ्युदय' हें पत्र दिसालें म्हूण चलोवपाक सुरू केलें. त्याच वर्सा हरिद्वाराक अखिल भारतीय हिंदुमहासभेची स्थापणूक जाली. राजकारणापसून पयस रावन सामाजिक सुदारणा करपाचें हे सभेचें ध्येय आशिल्लें. फुडल्या वर्सा मालवीयाचे अध्यक्षतेखाल पयलें अधिवेशन भरलें.

असहकार आंदोलनाच्या काळांत ताणें अयोध्येच्या शेतकामत्यांचे प्रस्न हाताळ्ळे आनी १९२१ सावन 'किसान' हें पाक्षिक सुरू केलें.

लोकसेवेच्यो कितल्योशोच येवजणो मालवीयान जैतीवंत केल्यो, तरी ताची सगळ्यांत म्हत्वाची कामगिरी म्हळ्यार बनारस हिंदू विद्यापिठाची स्थापणूक. १९०४ वर्सासावन मालवीय ह्या विद्यापिठाचे तयारेक लागलो. पुराय आराखडो तयार जातकच १९११ वर्सासावन ताणें वर्गणी जमोवपाक सुरवात केली. १९१५ वर्सा बनारस हिंदू विश्वविद्यालयाचे स्थापणुकेविशीं अधिकृत कायदो केंद्रीय असेंब्लीन पास केलो. तोमेरन ताचेकडे ३४ लाख रुपया जमिल्ले. १९१६ वर्सा हें विद्यालय सुरू जालें. १९१९ वर्सासावन फुडें १९ वर्सां मालवीय ह्या विद्यापिठाचो उपकुलगुरू आशिल्लो. १९३८ वर्सा उपरांत उपकुलगुरू हें पद सोडून ताणें विद्यापिठांत कुलंमत्री म्हूण काम केलें.

रौलट बिलाक ताणें कट्टर विरोध केलो. आय्. सी. एस्. परीक्षा हिंदुस्थानांत घेवंच्यो असो थराव मॉंटेग्यू घोशणेउपरांत रोकडोच केंद्रीय कायदेमंडळांत मांडून ताणें सरकाराक अडचणींत घालें.

असहकार आंदोलनाच्या वेळार सरकारी आनी सरकारी अनुदान घेवपी शाळा कॉलेजांचेर बहिश्कार घालपाक ताणें विरोध केलो. खिलाफतीचे मागणेक फाटबळ दिलो. पूण तेखातीर राश्ट्रीय आंदोलन जावंक शकना हेंय ताणें जाहिर केलें. १९२८च्या कलकत्ता अधिवेशनांत कम्युनिस्ट

समर्थक ३०,००० कामगारांनी निदर्शनां करपाची परवानगी मागली तेन्ना मालवीय आनी मोतीलाल नेहरू हांणी तांकां अनुमती दिली. मोतीलाल नेहरून ताका विस्तारीत नेहरू समितीचो वांगडी म्हूण घेतिल्लो. १९३०च्या कायदेभंगाच्या वेळार राजीनामो दिवन मालवीयान बंदखण भोगली. १९३३-३४ वर्सा सत्याग्रह फाटीं घेवन केंद्रीय असेंब्लीच्यो वेचणुको लडोवपाक मालवीय आनी डॉ. अन्सारी मुखेल आशिल्ले. पूण जातीय निवाड्याक विरोध करपाचें काँग्रेसीन न्हयकारील्ल्यान काँग्रेस राश्ट्रीय पक्ष हे आघाडीवतीन वेगळ्यो वेंचणुको लडोवन मालवीय आनी स अनुयायी वेंचून आयले.

अस्पृश्यता निवारणाखातीर ताणें एक अभिनव प्रयोग केलो. १९२७ वर्सा काशी, १९२८ वर्सा कलकत्ता, १९३६ वर्सा नाशिक आनी काशी हांगा ताणें हजारांनी अस्पृश्य लोकांक मंत्रदीक्षा दीवन उच्चवर्णीय हिंदुंचे पंगतीक बसयले.

१९३८ वर्सा ताणें स्वताचेर कायाकल्पाचो प्रयोग केलो. ताचोय ताका बरोच फायदो जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**माली :** अस्तंत आफ्रिकेंतलें एक प्रजासत्ताक. क्षेत्रफळ १२,४०,००० चौ. किमी. लोकसंख्या १०,१०८,५६९ (१९९१). विस्तार - १०°१५' उत्तर ते २५° उत्तर अक्षांश आनी ४°१५' उदेंत ते १२°१५' अस्तंत रेखांश. ताचो ईशान्य-नैर्ऋत्य विस्तार १,८५२ किमी. जाल्यार आग्नेय-वायव्य विस्तार १,२५८किमी. माली प्रजासत्ताकाचे उत्तरेक आनी ईशान्येक अल्जेरिया, उदेंतेक आनी आग्नेयेक नायजर, दक्षिणेक अपर व्होल्टा आनी आयव्हरी कोस्ट, नैर्ऋत्येक गिनी, अस्तंतेक सेनेगल जाल्यार वायव्येक मॉरिटेनिया देश आसात. बामाको हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** माली देशाची चडशी भूंय सपाट आसा. भूंयरचणूकेचे नदरेन देशाची पठारी आनी उथळ मळांचो प्रदेश अशी सैमीक विभागणी जाल्ली आसा. मळांच्या प्रदेशांनी ल्हान ल्हान उंच भूंयप्रदेश सगळयाक आसात. गिनींतलें फुटा जालन पठार तशेंच आयव्हरी कोस्टांतले ऊंच भूंयेंचे विस्तारीत प्रदेश हे देशाचे दक्षिण आनी नैर्ऋत्य वाठारांतले पठारी प्रदेश. ह्या पठारी प्रदेशाची दर्याथळासावन उंचाय सुमार ३०५ ते ४८५मी. इतली आसा. पठाराच्या आग्नेय वाठारांतल्या सिकासॉ विभागाची उंचाय सुमार ३०५मी. जाल्यार मौंट मिना भागाची उंचाय ५३०मी. देशाचो उत्तर आनी मदलो भाग सपाट आनी सहारा प्रदेशांत मोडटा. हातुंतलो उत्तरेवटेंतलो सुमार अर्दो वांटो सहारा रेंवाट प्रदेशान रेवडिला. सेनेगल आनी नायजर ह्यो देशांतल्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो.

**हवामान :** देशाचें हवामान सादारणपणान उश्ण आनी दमट उरता. नोव्हेंबर ते जून ह्या तेंपार सुकें हवामान आसता. ह्या तेंपार हांगाच्यान अलायज आनी हरमॅटन वारें व्हांवता. अलायज हें शितळ अशें वारें डिसेंबर ते फेब्रुवारी ह्या काळांत ईशान्येकडच्यान, जाल्यार मार्च ते जून ह्या तेंपार हरमॅटन हें उश्ण आनी सुकें वारें उदेंतेकडच्यान येता. जून ते ऑक्टोबर मेरेन हवामान दमट आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** देशांतल्या वाळवंटी हवामान वाठारांनी फकत मिमोसा आनी ॲकेशिया सारकिल्ली दाट पानांची आनी कांट्यांची वनस्पत मेळटा. साहेल प्रदेशांत स्टेपी प्रकारची, तशेंच गोरखचींच आनी ताड ही सुक्या हवामानांत जावपी वनस्पत मेळटा. दक्षिणेक सुदानी हवामानाच्या वाठारांनी जायतेकडेन रानां आसून तातूंत वेगवेगळ्या प्रकारची वनस्पत सांपडटा. जाल्यार हेर कांय प्रदेशांनी सॅव्हाना तण वाडटा.

हरण, कुरंग, जिराफ आनी हत्ती ही तण खावपी तशेंच शींव, बिबळो, वाग ही मांस खावपी रानटी मोनजातूय देशांत सांपडटा. न्हंयांनी वेगवेगळ्या नुस्त्याच्या प्रकारांखेरीज मानगीं आनी पाणघोडे चड प्रमाणांत सांपडटात.

**इतिहास :** ह्या प्रदेशांतल्या मालिंके लोकांच्या राबित्यावयल्यान देशाक माली नांव मेळ्ळें अशें इतिहासकारांचें मत आसा. चवथ्या शतमानांत घाना साम्राज्याची स्थापणूक जाल्ली, तेन्ना सद्याच्या माली देशाचो बरोच व्हडलो भाग तातूंत आस्पावल्लो. धाव्या शेंकड्यांत ह्या साम्राज्यान उदेंत सेनेगल, नैर्ऋत्य माली आनी दक्षिण मॉरिटीनियेचेर शेक बसोवन, उपरांत तांणी अरब राश्ट्रांकडेन आपले वेपारी संबंद जोडले. तेराव्या शेंकड्यांत घाना साम्राज्यांत फूट घालून, तातुंतल्यान माली साम्राज्य अस्तित्वांत आयलें. चवदाव्या शेंकड्यांत मालीचो राज्यकर्तो मन्स मूस हाणें तिंबक्तूचेर जैत मेळोवन माली हें मुसलमान लोकांचें मुखेल केंद्र केलें. त्या काळांत माली साम्राज्याची खूब भरभराट जाल्ली. पूण सतराव्या शेंकड्यांत माली साम्राज्याचो प्रभाव उणो जावन ताचे उत्तरेकडचे आनी हेर भूंयभाग भोंवतणच्या राजांनी हातासले. अठराव्या शेंकड्याचे निमाणेमेरेन माली साम्राज्यांत फूट घालून ल्हान ल्हान राज्यां अस्तित्वांत आयलीं.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन (सुमार १८८०) फ्रेंच वसाहतकार माली साम्राज्यांत पावले. सुरवेक तांकां थळाव्या मालिंके (माडींगो) लोकांनी विरोध केलो. पूण १८९८त फ्रेंचांनी सिकासॉ हातासून मालीचेर आपलो शेक बसयलो. फ्रेंच प्रशासनाखाला आसतना ह्या प्रदेशाक फ्रेंच सुदान म्हूण वळखताले. उपरांत हो प्रदेश फ्रेंच अस्तंत आफ्रिकेचो एक वांटो जालो. १९४६ त थळाव्या लोकांक फ्रेंच नागरिकत्व मेळोवन, ते फ्रेंच संसदेचें प्रतिनिधित्व करपाक लागले. त्याच वर्सा विधानसभेची स्थापना केली. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत स्वातंत्र्य चळवळीक नेट येवन १९५७ त थळाव्या लोकांक सार्वत्रिक अधिकार दिवपांत आयले. १९५८ त फ्रेंच सुदानचें स्वायत्त सुदानी प्रजासत्ताकांत रुपांतर जालें. जानेवारी १९५९ त डाकार शारांत सुदानी प्रजासत्ताक, सेनेगल, दाहोमी आनी अप्पर व्होल्टा हांणी मेळून माली महासंघाचे राज्यघटनेचो मसुदो तयार केलो. पूण फकत सुदानी प्रजासत्ताक आनी सेनेगल हांणी हे राज्यघटनेक मान्यता

दिवन ते माली महासंघाचे सभासद जाले. उपरांत माली महासंघान पुराय स्वातंत्र्याची मागणी केली. ते मागणेप्रमाण १९६० त माली महासंघ स्वतंत्र जालो. पूण अंतर्गत आनी परराश्ट्रीय धोरणाचेर मतभेद जावन सेनेगल महासंघांतल्यान भायर सरलो. ऑगस्ट १९६०त महासंघ बरखास्त केलो. २२ सप्टेंबर १९६० दिसा फ्रेंच सुदानान माली प्रजास्ताक ह्या नांवान आपल्या स्वांतत्र्याची घोशणा केली. मोडीबो केयीटा हाणें नव्या प्रजासत्ताकाच्या राज्यकारभाराचीं सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. ताणें चिनी लोकशाय प्रजासत्ताकाचे धर्तेचेर आदारिल्ली एकपक्षीय हुकूमशाय समाजवादी राजवट आपणायली. पूण ताचे राजवटींत अर्थीक स्थिती साप्प इबाडिल्ल्यान लोकांत असंतोश माजलो. ते परिस्थितीचो फायदो घेवन नोव्हेंबर १९६८ त लेफ्टनंट माडसा त्राओरे हाणें हेर लश्करी अधिकारांच्या आदारान क्रांती घडोवन हाडली आनी केयीटाक सत्ताभायरो केलो. 'मिलिटरी कमिटी फॉर नॅशनल लिबरेशन'ची स्थापना करून पुराय सत्ता आपल्या हातांत घेतली. १९७९ मेरेन हीच लश्करी सत्ता अधिकाराचेर आसली. विद्यार्थी, कनिश्ट लश्करी अधिकारी आनी पुलीस अधिकाऱ्यान हे सत्तेक विरोध करून तिका हरोवपाचे खूब यत्न केले. पूण ते अपेशी थारले. केयीटी फाटल्यान १९७९ त गाओरे हो राश्ट्राध्यक्ष म्हूण पांच वर्सांखातीर वेंचून आयलो. ताणें माली हें एकपक्षीय राश्ट्र म्हूण जाहीर करून, प्रशासनाचेर लश्करी प्रभाव तसोच दवरलो. सप्टेंबर १९८१ त घटनेंत सुदारणा करून राश्ट्रीय विधानसभेची मुदत तीन वर्सां केली. १९९१ मेरेन मालींत आमादो त्राओरे हाची सत्ता आसली. पूण मार्च १९९१ दिसा लश्करी उठाव जावन त्राओरे हाका सत्तेभायरो करून ओमार कोनारॅ हाच्या फुडारपणाखाल देशांत लश्करी राजवट आयली. उपरांत ऑगस्ट १९९७ त ओमार कॉनारॅ हो राश्ट्राध्यक्ष म्हूण परतून वेंचून आयलो.

राश्ट्राध्यक्ष हो देशाचो आनी मंत्रिमंडळाचो मुखेली आसा. ताका भौशिक मतदानान स वर्सांखातीर वेंचून काडटात. राज्यकारभार वेवस्थीत चलचो म्हूण देशाचे मुखेल आठ विभाग आनी ४६ उपविभाग केल्ले आसात. केंद्रशासनान नेमिल्लो मुखेल अधिकारी ह्या विभागांच्या कारभाराचेर देखरेख दवरता. बामाको शारांत सर्वोच्च न्यायालय आसा.

**अर्थीक स्थिती :** अर्थीक नदरेन माली हो फाटसार देश. अर्थवेवस्था मुखेलपणान शेतवडीचेर आदारीत आसा. सुमार ९०% लोक शेतवडींत वावुरतात. देशांतली फकत २०% इतली भूंय पिकां घेवपाखातीर योग्य आसा. तांदूळ, ज्वारी, बाजरी, कडुण, भिकणां आनी कापूस हीं देशांतलीं म्हत्वाचीं पिकां. ऊंस, तंबाकू, च्या आनी फळफळावळ हीं पिकांय कांय प्रमाणांत जातात. पशुपालन वेवसायूय ल्हव ल्हव वाडत आसा. हांगाच्या पशुधनांत गोरवां, मेंढरां, बोकडां, दुकर, घोडे, उंट आनी कुकडांचो आस्पाव जाता. नुस्तेमारी होय देशांतलो म्हत्वाचो वेवसाय. नायजर आनी तिच्या हेर फांट्यांतल्यान व्हड प्रमाणांत नुस्तेमारी चलता. चडशें नुस्तें सुकोवन ताची निर्यात करतात.

सैमीक सांठेय हांगा खूब उण्या प्रमाणांत आनी उण्या दर्ज्याचे आसात. हाका लागून थंयच्या उद्देगीक विकासाकूय बादा येता. देशाच्या वट्ट अंतर्गत उत्पादनांत फकत २०% वांटो उद्देगीक उत्पादनाचो आसा. अन्नधान्य, कापूस, चामडें हांचेर प्रक्रिया करपी उद्देगांचें प्रमाण चड आसून शासनाकडच्यान तांकां फाटबळ मेळटा. हांचे खेरीज सिगार, शिमीट, शाबू, तेला घाणे, लुगट हे उद्देगूय म्हत्वाचे आसात. कुलिकोरो, बामाको, बाग्वीनेडा, डाउगाबाउगाऊ, जलिबा आनी डिआमाऊ हीं मालिंतलीं कांय म्हत्वाचीं उद्देगीक शारां. 'सेंट्रल बँक ऑफ माली' ही देशांतली मध्यवर्ती बँक. जाल्यार फ्रँक सीएफ्ए हें देशांतलें अधिकृत चलन. शासनाच्या माली येरादारी प्रधिकरणाकडच्यान देशांतली येरादारी वेवस्था चलता. देशाच्या आंवाठाच्या मानान लोहमार्ग आनी रस्त्यांचें प्रमाण खूब उणें आसा. नायजर न्हंयेंतल्यान उदका येरादारी चलता. बाकामो आनी सेनाऊ हांगा देशांतले मुखेल विमानतळ आसात. हांचेखेरीज बुरेम, गाउ, मोप्ती, केझ, किडाल, न्योरो, तिबक्तू, सेगू आनी गूंडाम हांगा ल्हान ल्हान विमानतळ आसात.

**लोक आनी समाजजीण :** मालिंतले बहुसंख्य लोक निग्रॉयट वांशीक गटांतले. देशांत वेगवेगळ्या वंशाचे लोकूय आसात. तातुंतले बांबारी आनी फुलानी हे मुखेल. हांचेखेरीज मार्का, सोंघाय, मालिंके, त्वरेग, मिनिआंका, सेनाडको आनी डोगोन ह्या वंशाचेय लोक हांगा आसात. देशांतले वट्ट लोकसंख्येंत सुमार ३० ते ३५% बांबारी लोकांचो आस्पाव जाता. शेतवड हो तांचो मुखेल वेवसाय आसून देशाच्या मध्य आनी दक्षिण भागांत तांचें प्रमाण चड. जाल्यार गोरवां वा मेंढरां पोसप हो फुलानी लोकांचो मुखेल वेवसाय. मोप्ती विभागांत तांचें प्रमाण चड आसा. मार्का लोक सेनू विभागांत सांपडटात. डोगोन हे मालीचे मुळावे लोक अशें म्हण्टात. कायद्यान सगळ्या धर्मांक स्वातंत्र्य दिल्लें आसा.

देशांत साक्षरतेचें प्रमाण खूब उणें म्हळयार सुमार २५% आसा. मुळावें शिक्षण णव वर्सांचें जाल्यार माध्यमिक शिक्षण तीन वर्सांचें आसता. बामाको शारांत वेवसायीक, प्रशासकीय, अभियांत्रिकी, वैद्यकीय, दंतशास्त्र आनी शिक्षणशास्त्र विशयक शिक्षणीक संस्था आसात. फ्रेंच ही मालिच्या प्रशासनाची आनी शिक्षणाची अधिकृत भास. देशांतले सुमार ६०% लोक बांबारी भास उलयतात. ती मुखेलपणान देशाच्या अस्तंत, मध्य आनी दक्षिण भागांत उलयतात. फुलानी ही मुखेलपणान नायजरच्या त्रिभूज प्रदेशांत, जाल्यार सोंघाय भास चडकरून उदेंत आनी ईशान्य भागांत उलयतात. दर एक वंशाची आपआपली खाशेली भास आसा. तातूंतल्यो फुलफुल्डी, सेनराय, तामाशेक, सोनिंके, डोगोन, मालिंके, कासोंके, वासुळुंका, ब्वा, सिनूफो ह्यो म्हत्वाच्या कलाकारांक प्रशिक्षण दिवपाखातीर बामाको शारांत 'नॅशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ आर्ट्स' आनी 'आर्टिझन सेंटर' ह्यो संस्था उबारल्यात. सॉकर हो हांगाच्या लोकांचो चड लोकप्रिय खेळ.

- कों. वि. सं. मं.

**माल्थस, थॉमस :** (इ. स. १७६६ - १८३४ हेलीबरी).

नामनेचो अर्थशास्त्रज्ञ. तो धा वर्सां पिरायेचो आसतना आर्विल्ल्या अर्थशास्त्राचो जनक ॲडम स्मिथ हाचो महाग्रंथ 'Wealth of Nations' उजवाडाक आयिल्लो. त्या काळांतल्या समाजीक आनी अर्थीक नवविचारांनी भारिल्ल्या वातावरणांत ताचें शिक्षण जालें. पिरायेच्या सत्तावीसाव्या वर्सा केंब्रिज जिजस कॉलेजचो 'फेलो' म्हूण ताची निवड जाली. १८०५ त तो लग्न जालो आनी उपरांत ईस्ट इंडिया कंपनीच्या हेलीबरी हांगाच्या कॉलेजांत आर्विल्लो इतिहास आनी अर्थशास्त्र ह्या विशयांचो प्राध्यापक म्हूण ताची नेमणूक जाली.

तो काळ युरोपांतल्या राजकीय, समाजीक आनी अर्थीक नदरेन क्रांतीकारक घडामोडींचो आशिल्लो. फ्रेंच राज्यक्रांती, उद्देगीक क्रांती, स्वातंत्र्य, समता, विश्वबंधुत्व ह्या तत्त्वांचो प्रसार आशिल्ल्या वातावरणांत रुसो, गॉडविन, काँदरसेट अशा विचारवंतांनी वेगवेगळ्या विशयांचेर विचारमंथन सुरू केल्लें. विल्यम गॉडविन हाणें फ्रेंच क्रांतीन प्रभावित जावन उपयुक्ततावादाचें आशावादी चित्र उबें केलें. म्हालवज आनी कुटुंबीक जीण हातूंत आदर्श समता निर्माण जातली, अशें ताचें मत आशिल्लें. ह्या सगळ्या राटावळींनी माल्थसचो बापूयय वांटेकार आशिल्लो. माल्थसान हे विचारसरणींतली वेव्हारीक फारकत दाखोवन दिली, तेन्ना ताच्या बापायन ताका आपलें म्हणणें लेखी स्वरुपांत मांडपाक सांगलें. ताका लागून, माल्थसान आपलो 'Principles of Population' हो निबंद १७९८ त उजवाडायलो. वस्तुस्थितीच्या आदारान ताणें उक्तायलें, म्हालवज, लग्न आनी वर्गरचना हांचेसारकिल्ल्या संस्थांचे चौकटींत रावन स्वार्थसाधनाच्या व्यक्तीगत यत्नांक लागून समाज वाटावतलो, नाजाल्यार लोकसंख्येचे स्फोटक वाडीक लागून समाजाच्यो वादोऱ्यो जातल्यो.

ह्या निबंदाच्या पयल्या दोन प्रकरणांत माल्थसान लोकसंख्येविशींची उपपत्ती प्रभावी उतरांत मांडल्या. माल्थसाचें सांगणें अशें- लोकसंख्या अनियंत्रीत उरल्यार गुणोत्तर श्रेणीन वाडटा, तर अन्नाचें उत्पादन गणित श्रेणीन वाडटा. टीकेची पर्वा करीनासतना ताणें हो विचार मांडलो. तरीकूय वेव्हारीक नदरेन लोकसंख्या वाड अन्न उत्पादनापयल्यान वचूंक न दिवपी नियंत्रक साधनां आसतात, हाची ताका जाणविकाय आशिल्ली. हीं नियंत्रक साधनां दोन तरेचीं आसतात. एक, कारक साधनां-देखीक : मरणाच्या रुपान लोकसंख्या देंवोवपी झुजां, रोग आदी. दोन, प्रतिबंधक साधनां - देखीक, जननमान कमी करपी गर्भपात, गर्भधारणा नियंत्रण आदी. तरीय ताका अशें दिसतालें, की लोकसंख्येंतलो जो तळाचो भाग आसता, तो आपलें जिवित निव्वळ वेव्हारीक पातळेचेर व्हरूंक शकना.

ताच्या ह्या म्हणण्याचेर गॉडविनान अशें दाखोवन दिलें की संपन्न देशांतले कामगार 'कारक' वा 'प्रतिबंधक' उपायांबगर निव्वळ पातळेच्या खुबूच वयर आपली जीण राखून आसात. हो उणाव उरिल्ल्याची जाणविकाय माल्थसाक जाली आनी निबंदाचे फुडले आवृत्तींत ताणें दोन सुदारणा केल्योः १) संवयेचेर आदारिल्लें जीवनमान, ही कल्पना आपल्या मनांत आस्पावन घेतली आनी २) नितीक संयम.

कारक आनी प्रतिबंधक नियंत्रणाचे जोडयेक नितीक संयम हें एक नियंत्रण लोकसंख्येचेर आसूंक शकता. नितीक संयम म्हळयार लग्नाक कळाव आनी लग्नापयलीं ब्रह्मचर्य, अशी व्याख्या ताणें केली. अर्थीक परिस्थिती सुदारिल्ल्यान फकत लोकसंख्या वाडटली आनी जिवितमान आशिल्लें तशें उरतलें वा अर्थीक परिस्थिती देंवल्यार लोकसंख्या देंवतली आनी जिवितमान तशेंच उरतलें, अशें मत ताणें मांडलें.

माल्थसच्या सांगण्यांतले कांय मुद्दे दुबळे आसले, तरी तांचें खंडन करपाइतली सविस्तर आंकडेवारी त्या काळांत नाशिल्ली. माल्थसान आपलो युक्तीवाद पक्को करपाखातीर साद्या गणिताचो आदार दिलो. अर्थशास्त्रांतलो देंवपी प्रतीफलाचो नेम स्पश्ट स्वरुपांत पयलीं मांडपी अर्थशास्त्रज्ञांत माल्थसाचो उल्लेख करतात.

तेन्नाचे परिस्थितींत हे उपपत्तीक कामगारवर्गांत प्रतिश्ठा मेळ्ळी. हे उपपत्तीक लागून लोकांच्या मनाचेर व्यापक प्रभाव पडलो. माल्थसच्या सुदैवान ह्याच काळांत म्हळयार अठराव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत लोकसंख्येचो स्फोट जाल्ल्यान हे उपपत्तीचो प्रभाव आनीकूय वाडलो. अस्तंतेकडल्या देशांत एकुणिसाव्या शेंकड्याचे अखेरमेरेन हे उपपत्तीचो प्रभाव देंवत गेलो. पूण दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांतच्या काळांत मागास आनी विकसनशील देशांचो प्रस्न मुखार आयलो. आशिया, आफ्रिका, दक्षिण अमेरिका ह्या खंडांतल्या देशांत उपाट वेगान वाडपी लोकसंख्येक लागून अर्थीक प्रगतीक वेग दिवप अशक्य आशिल्लें. हाची जाणविकाय जाली आनी परतून एकदां माल्थसचे उपपत्तीचें नांव मुखार आयलें. हें उपपत्तींत दोश आसून लेगीत आयज तिचो उपेग जाता, हाचेवयल्यान तिचें म्हत्व मतींत येता.

- कों. वि. सं. मं.

**माल्यांची जात्रा :** गोंयच्या खांडोळे वाठारांतल्या श्री भगवती (हळदोणकरीण) देवीची वर्सुकी जात्रा. ही जात्रा फाल्गुन शुध्द द्वितीयेक जाता. मालें म्हळयार चार फूट उंचायेचें आनी दोन फूट रुंदायेचें मातयेचें दिवज कशें. देवीचो अवसर आंगांत आयिल्लो मनीस पेट्टे वातीचें मालें आपले तकलेर घेवन देवळाक प्रदक्षिणा काडटा आनी ताच्या फाटल्यान दिवजकारां पेट्टीं दिवजां घेवन चलतात. अशेच तरेची माल्यांची जात्रा मयां आनी हेर गांवांनी जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** दिवजां.

**मावजो, दामोदर :** (जल्म : १ ऑगस्ट १९४४, माजोड्डें, सालसेत).

कोंकणींतलो एक नामनेचो कथाकार आनी कादंबरीकार. ताच्या बापायचें नांव यशवंत आनी आवयचें नांव लक्ष्मी. ताचें मुळावें शिकप मराठी, पुर्तुगेज आनी इंग्लीश भाशेंतल्यान गोयांतूच जालें. उपरांत मुंबयच्या पोद्दार कॉलेजींतल्यान ताणें वाणिज्य शाखेची पदवी घेतली.



मुंबय आसतना आंतर महाविद्यालयीन नाटक सर्तींत नाटकां बरोवन तशेंच तातूंत वांटो घेवन आपले साहित्यिक जीणेक सुरवात केली. ताची पयली कथा 'अशोक' ही १९६५ वर्सा उजवाडा आयली.

मुंबय शिकता आसतनाच शैला आपटे हे चलयेकडे ताची वळख जाली आनी १९६८ वर्सा तांचें लग्न जालें. ताका तीन भुरगीं आसात.

गोंय मुक्ति उपरांत गोंयच्या कोंकणी साहित्याच्या मळार एक तेजीश्ठ अशी कथाकारांची पिळगी मुखार आयली, तातूंत मावजो आशिल्लो. ताणें कोंकणी कथेक एक आगळो रुपकार दिलो. चडकरून साश्टी वाठारांतल्या किरिस्तावांच्या जिवितावयल्यो प्रादेशिक कथा ताणें बरयल्यो. ताच्या कथांक प्रादेशिक स्पर्श आनी कस आसलो तरीय कथाबिजां मात संवसारीक आशिल्लीं. समाज जिणेंतल्यो व्यथा आनी विसंगती, नाडपणां आनी भावार्तीपण हे चडशे ताच्या कथांचे विशय आसात. गोंयच्या हिंदू आनी किरिस्तांव समाजांतलो पुसट जायत गेल्लो पुर्विल्लो संस्कृतीक दुवो ताच्या कथांनी जंय थंय झळकता. ती एक ताच्या साहित्यांतली व्हड जमेची बाजू. ताच्यो कथा तर्कशुध्द, तंत्रशुध्द आनी वास्तववादी आसून ताचें सगळें साहित्य, साहित्यिक मापदंड मानपी आनी सांबळपी अशें आसा.

ताची बरीच नामनेक पाविल्ली कादंबरी 'कार्मेलीन' हिका १९८३ वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार फावो जालो. हे कादंबरेचे मराठी आनी हिंदी भाशेंतूय अणकार जाल्यात. त्या काळांतल्या किरिस्तांव समाज वेवस्थेचें बेसबरें चित्रण तातूंत आसा, तेभायर 'दिनारा' चे आशेन अरब देशांत वचपी बायलांचे शोकांतिकेचें प्रत्ययकारी दर्शन तातूंत घडटा, अशी ही एक ताची खर वास्तववादी कादंबरी. ताचें हेर उजवाडा आयिल्लें साहित्य अशें आसाः 'गांथन' (कथांझेलो - १९७२), 'जागरणां' (कथांझेलो - १९७५), 'सूड' (नवलिका - १९७६), 'खोमसाची काणी' (भुरग्यां-काणी-१९७६), 'रुमड फूल' (कथांझेलो - १९८९).

ताका फावो जाल्ले कांय मुखेल पुरस्कार अशे आसात- ताच्या 'गांथन' ह्या कथांझेल्याक १९७४ वर्सा कला अकादमी गोंयचो पुरस्कार फावो जालो. तशेंच ताच्या 'खोमसाची काणी' ह्या पुस्तकाक १९७९ वर्साय कला अकादमी गोंयचो पुरस्कार फावो जालो. उपरांत १९७३ वर्सा ताच्या 'गांथन' ह्या पुस्तकाक आनी १९७८ वर्सा 'जागरणां' हांकां कोंकणी भाशा मंडळ, गोंयचो पुरस्कार मेळ्ळा. १९८३ वर्सा, ताचे 'कार्मेलीन' हे कादंबरीक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जाला.

१९८५ वर्सा तो, रामनाथी-गोंय हांगा जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचो अध्यक्ष आशिल्लो.

- महाबळेश्वर सैल

**मावळिंग :** (मराठीः महाळुंग; हिंदीः बिजौरा, दुरंज; गुजरातीः बीजोरुं; कन्नडः मादळ; संस्कृतः अम्लकेशर, मातुलुंग, महाफल, बीजपूर्ण; इंग्लीशः सिट्रोन, ॲडम्स ॲपल; लॅटीनः सिट्रस मेडिका; कूळः रुटेसी).

सुमार तीन मीटर ऊंच वाडपी कांटेरी आनी सदांकाळ पानां आशिल्लें झाड. ह्या झाडाचो तरनो भाग जांभळो आसून पानां, फुलां आनी फळां आदीची सामान्य लक्षणां सिट्रस प्रजातींत आनी रुटेसी वा सताप कुळांत वर्णन केल्ल्याप्रमाण आसतात. ताचीं पानां लांबशीं आनी व्हड आसून, फुलां एकलिंगी मात्शीं तांबसार आनी धवीं आसतात. फळ लांबट-वाटकुळें आनी तोंकदार व्हड, ओबडधोबड आनी दाट सालीचें आसून पिकतकच हळदुवें दिसता. गर वासाळ आनी कांय प्रमाणांत आंबसो कोडू आसता.

हें झाड मूळचें भारतांतलें आसून सद्या तें चितगाँग, सीतकुंड, खासी आनी गारो दोंगुल्ल्यांच्या वाठारांत रानटी अवस्थेंत दिश्टी पडटा. धाव्या शतमानांतल्या एका पर्शियन वैजकी ग्रंथांत मावळिंगाचो उल्लेख मेळटा. तेचपरी कौटिलीय अर्थशास्त्रांत आनी द्रविड साहित्यांत (इ. स. चवथें आनी पांचवें शतमान) मावळिंगाचो उल्लेख मेळटा.

ह्या फळाचो रोस थंडावो दिवपी आनी स्तंभक आसता. हाची साल सुकोवन आमांशाचेर दितात. जोराचेर हाच्या पानांचो काडो दितात. ओंकारे थांबोवपाक हाचें मूळ उकडून दितात.

फळापसून लोणचें, मुरांबो, सरबत आदी पदार्थ करतात. शिजयल्ली साल मिठायेंत घालतात. कांय प्रकारचीं मावळिंगां गोड, वासाळ वा आंबट आसतात. पिकिल्लें फळ पथ्यकर, रूचकर आनी पित्तशामक आसून बियो भूक वाडोवपी आनी बळ दिवपी आसतात.

वेपारी नदरेन मावळिंगाची लागवड सद्या भूमध्य दर्यावाठारांत करतात. भारतांत कांय वाठारांनी खंय खंय मावळिंगाची लागवड करतात. कांयकडे संत्रां-लारांजाचीं दोळे भरून कलमा करपाखातीर खूंट म्हणून मावळिंगाच्या रोपाचो व्हड प्रमाणांत उपेग करतात. पूण अशा कलमांक उण्या दर्जाचीं आनी कमी प्रमाणांत फळां लागतात. ह्या झाडाचें लाकूड धवें, घट्ट आनी

जड आसता. ताचो उपेग शेतांतलीं अवजारां तयार करपाखातीर करतात. खांदयेपसून हातांत धरपाच्यो बडयो तयार करतात.

- कों. वि. सं. मं.

## माश्कारेन्हस, डॉ. तेलू द : (जल्मः २३ मार्च १८९९, माजोर्डें-गोंय; मरणः २० ऑक्टोबर १९७९).

गोंयचो सुटकेझुजारी. जे. आमारालो द माश्कारेन्हस हाचो चलो. ताणें पुर्तुगेज कायदद्याची पदवी घेतिल्ली. पुर्तुगालांत कोयम्बा हांगा शिकता आसतानाच ताणें 'India Nova' हें नेमाळें सुरू केल्लें. उपरांत ताणें गोविंद पुंडलिक हेगडो देसाय हाच्या 'ओ भारत' (O Bharat) ह्या दिसाळ्यांत Death of the I dols ह्या नांवान साबार राजकीय लेख बरयल्ले. ४ नोव्हेंबर १९२६ दिसा गोविंद पुंडलीक हेगडो देसाय हाणें आपल्या 'ओ भारत' ह्या दिसाळ्यांत ते उजवाडाक हाडिल्ले. हाका लागून माश्कारेन्हस हाचेर पुर्तुगालांत आनी हेगडो देसाय हाचेर गोंयांत खटले भरले. पूण दोगूय निर्दोश थारले. पुर्तुगालाक तो सरकारी अधिकारी म्हूण काम करतालो.

ऑगस्ट १९४८ त तो रजा घेवन गोंयांत आयिल्लो. पूण ताच्या राश्ट्रीयवादी विचारांक लागून पुलीस ताचेर पाळत दवरून आशिल्ले. उपरांत डिसेंबर म्हयन्यांत तो मुंबय गेलो. थंयच्यान तो 'नॅशनल काँग्रेस, गोंय' संघटनेचो वांगडी जालो. १९४८-४९ मेरेन 'गोंय नॅशनल काँग्रेसिचो' सचिव म्हूण आनी उपरांत कांय तेप खजिनदार म्हूण ताणें वावर केल्लो. हांगा ताणें साबार राश्ट्रीयवादी पत्रकां उजवाडावन तीं गोंयभर आनी हेर राश्ट्रांनींय वांटलीं. २५ एप्रिल १९४९ दिसा ताणें पुर्तुगालाचो पंतप्रधान दोतोर सालाझार हाका ताच्या वसाहतीच्या धोरणाचेर टिका करपी उक्तें पत्र बरयल्लें. उपरांत ताणें आपलें तनमन गोंयचे सुटके चळवळीक ओंपलें. पुर्तुगेज राजवटीआड प्रचार करप, लोकांक राश्ट्रवादी साहित्य वांटप असलीं कामां तो करतालो. हे खातीर पुर्तुगेज सरकारान ताका परत लिसबनांत (पुर्तुगाल) कामार रुजू जावपाचो आदेश दिलो. पूण ताणें ताका न्हयकार दिलो आनी हाका लागून ताका कामा वयल्यान काडून उडयलो.

१९५६-५८ ह्या काळांत ताची दिल्ली आकाशवाणीचेर कोंकणी आनी पुर्तुगेज घटकाचो मुखेल अधिकारी म्हूण नेमणूक जाली. ह्या पदाचो फायदो घेवन ताणें पुर्तुगेज सरकाराआड नेटान प्रचार करपाक सुरवात केल्ली. डिसेंबर १९५८ वर्सा ताणें ह्या पदाचो राजिनामो दिवन तो गोंयांत परतलो. पूण पुलिसांनी रोकडोच धरून ताका पुर्तुगालाक व्हेलो. उपरांत १९६२ त प्रदेशीक लश्करी न्यायालयांत ताका चोवीस वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण २९ मे १९७० दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जावन तो भारतांत परत आयलो.

तो एक बहुगूणी कवी आनी लेखक आशिल्लो. ताणें पुर्तुगेज आनी इंग्लीश भाशेंतल्यान खूब कविता आनी लेख बरयल्यात. गोंयांत आयल्याउपरांत ताणें कांय नाटकां बरोवन तीं लोकांमुखार सादर केलीं. तो एक समाजसेवकूय आशिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र आनी पद्मश्री पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## माश्कारेन्हस, ब्राक्वानझा : (जल्म : कळंगूट).

बंगालचो गोंयकार धर्मप्रचारक. १९०५ ते १९०९ ह्या काळांत ताणें पॅरिसच्या बोयताखाना हांगा धर्मीक प्रचाराचो वावर केलो. ताणें पॅरिसचे हे इगर्जेची जायती सुदारणा आनी वाड केली.

- कों. वि. सं. मं.

## मास्टर दत्ताराम (दत्ताराम वळवयकार) : (जल्मः १० जून १९१३, वळवय, गोंय; मरणः १९ सप्टेंबर १९८४, वसई).

गोंयचो नामनेचो नट. ताचें भुरगेंपण वळवय गांवांतच गेलें. तो चवथीमेरेन शिकलो. ताचें शिक्षणांत व्हडलेशें मन लागनासलें. पूण दशावतारी खेळांत-नाटकांत वांटो घेवपाक ताका मानवतालें. तो १० वर्सांचो आसतना सखाराम बरवे हाणें ताका आपल्या 'ललितप्रभा संगीत मंडळींत' घेतलो. तेन्ना मामा वरेरकराच्या 'कुंजविहारी' ह्या नाटकांत 'पेंद्या' ही ताका मेळिल्ली पयली भुमिका. उपरांत शारदासंगीत हे संगीत मंडळींत थोडो तेंप काम करतकच तो 'रंग बोधेच्छु समाज' हे रघुवीर सावकाराचे नाट्यसंस्थेंत गेलो. हे कंपनीच्या संशयकल्लोळ ह्या नाटकांत मा. दत्तारामाचें कृतिकेचें काम उल्लेख करपासारकें आसा. खंयच्याच नाटककाराकडल्यान नाटकाचे धडे घेनासतना ताणें तांची देख दोळ्यांमुखार दवरून ही विद्या आपणायली. नानासाहेब फाटक, चिंतामणराव कोल्हटकर, गणपतराव जोशी ह्या व्हड कलाकारांचो आदर्श ताणें सतत दोळ्यांमुखार दवरलो आनी एकलव्य वृत्तीन ही कला आत्मसात केली.



उपरांत तो विष्णु बोरकराच्या प्रभात संगीत मंडळींत गेलो. हे कंपनींत आसताना ताणें मानापमान, कुंजविहारी, ललाटलेख, पुण्यप्रभाव, पैशांचा पाऊस, नेकजात मराठा, राक्षसी म्हत्वाकांक्षा अशा नाटकांतल्यान नायक-नायिकेच्यो, खलनायकाच्यो, विनोदी, वीररसप्रधान अशो तरेतरेच्यो भुमिका

गाजयल्यो. तो फक्त नट म्हणून रावलो ना. ताका नाट्यवेवसायांतल्या बारीकसारीक गजालींची म्हायती आसली. रंगभुशा करप, पड्डे रंगोवप, हिशोब दवरप, तालमी घेवप हीं कामांलेगीत तो उमेदीन करतालो. नव्या कलाकारांक प्रोत्साहन दिवपाची खास तरा ताचेकडेन आशिल्ली. प्रभात कंपनींत जायतो तेंप रावन ताणें आपल्या कलागुणांनी खूब नामना मेळयली.

पूण उपरांतच्या काळांत चित्रपटाचें आगमन जालें आनी रंगमाचयेची पत उणी जावंक लागली. अशा वेळार मा. दत्ताराम मुंबय आयलो. ह्या काळांत ताका हालाखीचे परिस्थितीक तोंड दिवंचें पडलें. तरीपूण ताणें आपलो वेवसाय सोडलो ना. संयुक्त नटसंच, सहकारी मनोरंजन हांगा आनी जंय मेळटा, थंय जी परिस्थिती येता ते परिस्थितींत आपली कला चालू दवरली.

स्वच्छ आरोह, अवरोहपुर्ण उच्चार, मुद्राभिनय, आशयपूर्ण आनी लवचीक हालचाली, पूर्ण पाठांतर हीं मा. दत्तारामाचीं कांय खाशेलपणां आशिल्लीं. साहित्यसंघ नाट्यशाखेंत ताका जायत्या पोरन्या भुमिकांवांगडाच नव्यो भुमिकाय मेळ्ळयो. वैजयंतींतलो जयपाल, लोकांचा राजांतलो भ्रमिश्ट राजा, कौंतेयमदलो उदार कर्ण, होनाजी बाळांतलो रंगेल खलनायक 'उदाजी' अशा जायत्या भुमिकांवरवीं ताणें आपल्या अभिनयांतलीं तासां प्रेक्षकांमुखार साकार करून प्रेक्षकांक भारावन उडयले. साहित्य संघाच्या भाऊबंदकी ह्या नाटकांत नानासाहेब फाटक (राघोबा), दुर्गा खोटे (आनंदी) आनी मा. दत्ताराम (रामशास्त्री) हांच्यो म्हत्वाच्यो भुमिका आशिल्ल्यो. ह्या नाट्यप्रयोगाक दिल्ली हांगा जाल्ल्या अखिल भारतीय थरावयल्या सर्वभाशीक नाट्योत्सवांत पयल्या क्रमांकाचें इनाम फाव जाल्लें.

साहित्य संघांत आसतनाच मा. दत्तारामाक ललितकलादर्शचें निमंत्रण मेळ्ळें. हांगा येवन मा. दत्तारामाक सुमाराभायर नामना मेळ्ळी. ताणें तातूंत 'सत्तेचे गुलाम', 'श्री', 'सोन्याचा कळस', 'आकाशगंगा', 'दुरितांचे तिमीर जावो' आनी 'पंडितराज जगन्नाथ' ह्या नाटकांनी केल्ल्या भुमिकांक खूब नामना मेळ्ळी. ताच्या उपरांतची ताची म्हत्वाची कामगिरी म्हळ्यार गोवा हिंदू असोसिएशनच्या, कलाविभागाच्या 'रायगडाला जेव्हा जाग येते'. ह्या नाटकाचें दिग्दर्शन आनी शिवाजीची मुखेल भुमिका. ताच्या ह्या नाटकाक सुमाराभायर यश मेळ्ळें. गोवा हिंदू असोसिएशनच्या आनीक एका 'मत्स्यगंधा' नाटकाचें दिग्दर्शन आनी भिष्माची भुमिका ताणें केली आनी गाजयली.

जितलो प्रतिभावंत तितलोच चरित्रवान असो हो असामान्य कलाकार आशिल्लो. आपले कलेची आनी पर्यायान नाटक ह्या वेवसायाची श्रध्दा आशिल्लो हो कलाकार म्हणजे ह्या वेवसायांतल्या लोकांखातीर एक आदर्श आसलो. ताच्या निमण्या काळांत ताणें नाट्यशास्त्राचें शिक्षण दिवपाचें काम केलें.

- कों. वि. सं. मं.

## मास्टर विनायक :

(जल्मः १९ जानेवारी १९१०, कोल्हापूर; मरणः १९ ऑगस्ट १९४७, मुंबय).

नामनेचो मराठी अभिनेतो, दिग्दर्शक आनी निर्मातो. ताचें पुराय नांव विनायक दामोदर कर्नाटकी. ताचें शिक्षण कोल्हापूर हांगाच जालें. घरचे गरीब परिस्थितीक लागून ताका कांय काळ शिक्षकाची नोकरी करची पडली.

१९३२ वर्सा हिंदी-मराठी प्रभात कंपनीच्या 'अयोध्येचा राजा' ह्या चित्रपटांत ताका नारदाची भुमिका मेळ्ळी आनी तेन्नासावन ताचे चित्रपट क्षेत्रांतले कारकीर्दिक सुरवात जाली.

प्रभात फिल्म कंपनीच्या पांच चित्रपटांनी काम करतकच प्रभात फिल्म कंपनी पुण्याक व्हेली. तेन्ना विनायकराव कोल्हापूरच्या सिनेटोन हातूंत गेलो. थंय ताका दिग्दर्शनाची पयली संद मेळ्ळी.

अनौरस संतत आशिल्ल्या एक म्हत्वाच्या समाजीक समस्येचेर विलासी ईश्वर (१९३५) ही मामा वरेरकराची कथा आशिल्ली. ताचें दिग्दर्शन म्हळ्यार एक कठीण गजाल आशिल्ली. पूण साहित्याची आनी चित्रपट संवसाराची बेस बरी जाण आशिल्ल्यान विनायकान हें दिग्दर्शन व्हडा कसबान पुराय केलें. त्याच काळांत बाबूराव पेंढारकर हाणें विनायकराव आनी पांडुरंग नाईक हांचे भागीदारींत 'हंस पिक्चर्स' ची स्थापणूक केली. हंस पिक्चर्साखातीर विनायकान अभिनेतो आनी दिग्दर्शक म्हूण चार वर्सां काम केलें. ह्या चार वर्सांतले ताचे उल्लेख करपासारके चित्रपट अशेः 'ज्वाला' (१९३८), 'छाया' (१९३६), 'ब्रह्मचारी' (१९३८), 'ब्रँडीची बाटली' (१९३९). हंस पिक्चर्सचे कारकीर्दींत स्वातंत्र्यवीर सावरकरांच्या सल्ल्याप्रमाण, विनायकान पयलींच पड्ड्यावयले इंग्लीश नामावळीचो मराठींत अणकार केलो.

१९४० वर्सा हंस पिक्चर्स बंद जातकच विनायकराव नवयुग चित्रपट संस्थेंत गेलो. थंय ताणें 'लग्न पहावे करून' (१९४०), 'अमृत' (१९४१), 'सरकारी पाहुणे' (१९४२) हे चित्रपट दिग्दर्शित केले.

मास्टर दीनानाथाची धूव लता मंगेशकर हिच्या आंगांतले कलागूण वळखून विनायकान तिका, 'पहिली मंगळागौर' (१९४२) ह्या चित्रपटांत घेतली. पूण विनायकरावाक तो चित्रपट पुराय करपाक मेळ्ळो ना. १९४३ वर्सा ताणें स्वताची प्रफुल्ल पिक्चर्स ही संस्था स्थापन करून लताकूय त्या चित्रपटांत घेतली. हे संस्थेचो ताचो 'माझं बाळ' (१९४३) हो चित्रपट खूब गाजलो. हे संस्थेंत काम करतनाच ताणें व्ही. शांताराम हाच्या 'डॉ. कोटनीस की अमर कहानी' (१९४६) ह्या चित्रपटांत भुमिका केली.

राजकमल कलामंदिरचो 'जीवनयात्रा' (१९४६) हो विनायकान पुराय दिग्दर्शित केल्लो निमाणचो चित्रपट. ताचे उपरांत प्रफुल्ल पिक्चर्सचो 'मंदिर' (१९४८) हो चित्रपट तयार जावचे पयलींच विनायकाक मरण आयलें.

चित्रपट क्षेत्रांतले आपले सोळा वर्सांचे कारकिर्दींत विनायकरावान अठरा चित्रपटांचें दिग्दर्शन केलें आनी तातुंतल्या चडशा चित्रपटांनी भुमिका केल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**मास्तर कृष्णराव :** (जल्मः २० जानेवारी १८९८, आळंदी; मरणः २० ऑक्टोबर १९७४, पुणें).

एक नामनेचो गायक आनी संगीतकार. पुराय नांव कृष्णराव गणेशपंत फुलंब्रीकर. पूण 'मास्तर कृष्णराव' ह्या नांवान ताका चड वळखताले. पिरायेच्या बाराव्या वर्सा 'नाट्यकला प्रवर्तक मंडळी' हे नाटक मंडळींत ताणें प्रवेश मेळयलो. हरीभाऊ आपटे हाच्या संत सखूबाई (१९११) नाटकांत विठ्ठलाची भुमिका करून ताणें आपल्या नटाचे कारकिर्दीक सुरवात केली. १९११ वर्सा सावन ताणें गायनाचार्य भास्कर बुवा बखले हाचेकडल्यान गायनाचें शिक्षण घेतलें.

पुराय भारतभर विंगड विंगड सुवातींनी ताच्यो ३,००० परस चड मैफिली जाल्यो. फुडें १९१५ वर्साच्या सुमाराक गंधर्व नाटक मंडळी हे नाटक मंडळींत ताणें प्रवेश केलो. थंय आसतना गायक, नट आनी संगीत दिग्दर्शक म्हूण ताणें नामना जोडली. शारदा, सौभद्र, एकच प्याला, विद्याहरण, स्वयंवर, द्रौपदी, आशा-निराशा ह्या नाटकांतल्यो ताच्यो बायलेच्यो भुमिका खुबूच गाजल्यो.

गंधर्व नाटक मंडळी सोडल्याउपरांत १९३३ वर्सा ताणें व्ही. शांताराम हाच्या प्रभात फिल्म कंपनींत संगीत दिग्दर्शक म्हूण प्रवेश केलो. थंय आसतना ताणें धर्मात्मा, अमरज्योती, वहाँ, गोपाळलकृष्ण, माणूस, शेजारी ह्या हिंदी आनी मराठी चित्रपटांक संगीत दिलें. फुडें १९४२ वर्सा व्ही. शांताराम हाच्या 'राजकमल' चित्रपट संस्थेवतीन भायर सारिल्ल्या 'भक्तिचा मळा' ह्या चित्रपटांत संगीत दिग्दर्शना वांगडाच ताणें सावता माळ्याची मुखेल भुमिका केली. आचार्य अत्रेच्या वसंत सेना, विश्राम बेडेकराच्या लाखाराणी आनी उपरांत कीचकवध, विठू माझा लेकूरवाळा ह्या चित्रपटांक संगीत दिलें. वंदे मातरम ह्या राश्ट्रगीताक ताणें दिल्ली चाल खूब गाजली. सावित्री, मेनका, कान्होपात्रा, आशा-निराशा ह्या नाटकांतल्या पदांक ताणें चाली दिल्यो आनी उपाट नामना मेळयली. आकाशवाणीचो मुखेल संगीत रचनाकार म्हूण तो काम पळयतालो.

ताणें संगिताचेर 'रागसंग्रह' नांवाचे ग्रंथ बरयले. रागसंग्रहाचे सात वांटे आसात आनी तातूंत शास्त्रोक्त संगितांतल्या कांय बऱ्या चिजांचो ताणें स्वरलिपीसकट आस्पाव केला (१९४३-५७). 'भारत गायन समाज' हे संस्थेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९५३ वर्सा चीनाक गेल्ल्या भारताच्या संस्कृतीक मंडळाचो तो वांगडी आशिल्लो.

१९७१ वर्सा ताका 'पद्मभूषण' ही पदवी मेळ्ळी. शंकराचार्याकडल्यान 'संगीत कलानिधी' ही पदवी मेळ्ळी. ते भायर १९७२ वर्सा संगीत नाटक अकादमीवतीन 'रत्न सदस्यत्व' (फेलोशीप), 'बाल गंधर्व' आनी 'विष्णुदास भावे' हीं भांगरापदकां ताका फावो जालीं.

'बोला अमृत बोला' हो ताच्या उगडासांचो झेलो १९८५ वर्सा उजवाडा आयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**माळी :** बागकाम करपी लोकांचो एक वर्ग. ह्या लोकांची वसती चडकरून महाराष्ट्र, गुजरात, कर्नाटक, राजस्थान आनी बंगाल ह्या प्रदेशांनी चड आसा. तशेंच बिहार, ओरिसा, पंजाब आनी उत्तर प्रदेश ह्या प्रदेशांनीय माळी लोकांची वसती आसा. माळी हें नांव वेवसायीक आशिल्ल्यान, बागकाम करपी हेर जातींच्या लोकांकूय माळीच म्हण्टात. पूण विंगड विंगड प्रदेशांतल्या माळी लोकांचो एकमेकांकडे कसलोच संबंद नासता. मुसलमान माळ्यांक बागवान म्हण्टात.

मराठा माळी हे मूळचे कुणबी आसुंये. पूण धंद्या वयल्यान उपरांत तांची जात बदल्ली. ह्या लोकांचे फूलमाळी, अधप्रभू, अधशेटी, बावने, हळद वा बनकर, जिरे, काच, कडू, क्षीरसागर, लिंगायत, पदे, रांत आनी उंडे अशे तेरा पोटभेद आसात. फूलमाळी हे फुलांचो वेवसाय करपी आसून, तांकां सगळयांत ऊंच मानतात. जिरे माळी जिरें पिकयतात. हळदे माळी हळद पिकयतात. हांकां कमी दर्जाचे मानतात. पूण हालीं हे सगळे पोटभेद ना जावन फकत सावतामाळी वा माळी अशें जातीचें नांव सांगतात.

कानडी माळी हांकां कामटी वा कुंचगीवक्कल अशेंय म्हण्टात. पावसाच्या दिसांनी हे लोक कुंची वापरतात, म्हूण तांकां कुंचगीवक्कल अशें नांव मेळ्ळां.

पंजाबी माळी लोकांभितर फूल, गोह, सैनी, कच्छी, मच्छी, धनकट, तांबोळी, कंबोह हे पोटभेद आसात. बंगाली माळी लोकांक मालाकार अशें म्हण्टात. पुर्विल्ल्या बंगाली साहित्यांत मालाकारांचो उल्लेख टाक ह्या नांवान केला. ह्या टाकांचे खूब पोटभेद आसात.

मराठा लोक अंबा, भवानी, जनाई, तुकाई, खंडोबा, भैरोबा आनी सप्तशृंगी ह्या देवतांक भजतात. चडशे माळी वारकरी पंथाचे आसात. कानडी माळी वेंकटराम, येल्लम, गुट्टिअम्म आनी हनुमान ह्या देवतांक भजतात. चंद्रगुट्टी ही तांची मुखेल देवता आसून, तिचें देवूळ म्हैसुरांतल्या सोराब हांगा आसा. ब्राह्मण तांचें पुरोयतपण करतात. राजस्थानी माळी लोक सगळया देवांक भजतात. उमास, पुनव, एकादस आनी वैकुंठचतुर्दस ह्या दिसांनी उपास करतात. हे लोक आयतार हो पवित्र दीस मानतात. पंजाबी माळी लोक भैरव, हनुमान, श्यामजी, देवी, गूगा ह्या देवतांक भजतात.

मराठा माळी लोकांच्या कुळांचीं वा कुळांच्या गटांचीं विंगड विंगड देवकां आशिल्लीं. साळुंकीचें पीस, सुर्याचीं किर्णां, तण, सूर्यफूल, पांच पालवी हीं तांचीं देवकां आसात. तांच्यांत आते आनी मामे भयणीकडे लग्न करपाची चाल आसा. मावस भावंडांचीं मात लग्नां जायनात.

एकाच देवकाच्या कुळांत लग्नां जायनात. कानडी माळी लोकांत बालविवाहाची चाल आसा. खूब बायलो करपाचीय तांच्यांत रीत आसा. राजस्थानी माळी लोकांत घटस्फोटाची चाल ना. पूण बायलेचें वर्तन अनैतिक आसल्यारूच घोवाक घटस्फोट घेवपाक मेळटा.

कानडी माळी लोक मड्याक आसतात. पूण पांच वर्सां-सकयल्ल्या भुरग्याक पुरतात. राजस्थानी माळी लोक मडें पुरतात. पुरचे पयलीं मड्याक न्हाणयतात. उपरांत पिंडदान करतात. इकराव्या दिसा क्षौर करतात आनी जातींतल्या लोकांक जेवण घालतात. अस्थिविसर्जन आनी श्राध्द करपाचीय चाल आसा.

फुलां, फळां, भाजयो, ऊंस, हळद, जिरें हीं बागायती पिकां काडप हो मराठा माळी लोकांचो मुखेल वेवसाय आसा. माल व्हरून बाजारांत विकपाचें काम बायलो करतात. हालीं राजस्थानी माळी लोक नोकरी आनी कारागिरी हेय उद्देग करूंक लागल्यात.

बंगाली माळी लोक, फुलझाडां लावप, फुलांची आरास करप आनी सोलाचीं चित्रां तयार करप हे वेवसाय करतात. सोल नांवाचें एक झाड आसा. त्या झाडाचें लाकूड ल्हव आसून ताचो गाभो धव्या रंगाचो आसता. ताचे पातळ कुडके कापून ताचेर हे लोक चित्रां काडटात वा ते कुडके जोडून तांचीं खेळणीं वा बावल्यो करतात.

दर एक माळी पोटजातींत जात पंचायत आसता. जातींतलीं झगडीं, पंचायतीचो मुखेली सोडयता. बंगाली माळी लोक ताका 'चौधरी' म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**माळी, कादुबा किसनराव :** (जल्मः ४ डिसेंबर १९१९, जालना, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. हैदराबाद सुटके चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. गोवा विमोचन सहाय्यक समितीन घाल्ल्या उल्याक लागून जन संघाचेवतीन तो ३ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा रणजितसिंह ठाकूर हाच्या फुडारपणाखाल आशेंदा मार्गान गोंयांत आयलो आनी पेडणे हांगा जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतलो. तेन्ना पुर्तुगेज पुलिसांनी ताका धरून मार दिलो आनी गोंयचे शीमेर हाडून सोडलो. २६ मे १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मॉंटेसरी, मारिया :** (जल्मः ३१ ऑगस्ट १८७०, क्याराव्हाले (मध्य इटली); मरणः ६ मे १९५२, नोर्टवाइक, हॉलंड).

नामनेची इटालियन शिक्षणतज्ञ आनी मॉंटेसरी शिक्षणपद्दतीची जनक. इटली देशांत भौशिक शाळेंत वचपी ही पयलीच चली आशिल्ली. ताका लागून तिका लोकांचे टिकेक तोंड दिवंचें पडलें. १८९६ त तिणें रोम विद्यापिठाची वैजकीची पदवी मेळयली. पदवी मेळोवपी इटलितली ती पयलीच बायल. वैजकी पदवी मेळयतकच रोमांतल्या भौशिक रुग्णालयांतले रिकामे सुवातीखातीर जाल्ले सर्तींत तिणें वांटो घेतलो आनी तातूंत तिका यश मेळ्ळें. १८९७ त युरोप खंडांत अशा मानादीक सुवातीचेर वेंचून काडिल्ली मॉंटेसरी ही पयलीच बायल. १८९८ त रोमांतल्या मंदबुध्दीच्या भुरग्यांचे शाळेची ती मुखेल जाली आनी तिच्या मनांत शिक्षणकार्याविशीं आवड निर्माण जाली.



१८९९त रोमांतल्या बायलांच्या विश्वविद्यालयांत भलायकीशास्त्राची प्राध्यापिका म्हूण तिची नेमणूक जाली.

१९०० त लंडनांतल्या बायलांचे परिशदेक इटालियन बायलांची प्रतिनिधी म्हूण ती हजर आशिल्ली. एक बरी दोतोर म्हूण तिची रोमांत नामना जाली. रोम विद्यापिठांत मानवशास्त्राची प्राध्यापिका म्हूण तिची रोखडीच नेमणूक जाली. ६ जानेवारी १९०७ दिसा मॉंटेसरींत रोमांतल्या एका बुरशा वाठारांत पयली मॉंटेसरी शाळा (भुरग्यांची शाळा) सुरू केली. आपले फुडले जिणेंत तिणें शिक्षणाखातीर वावर केलो.

मॉंटेसरीन मतीमंद भुरग्यांच्या शिक्षणाखातीर खास साहित्य तयार केलें. रोम विद्यापिठांत तिणें सात वर्सांचो खासा अभ्यासक्रम पुराय केलो. मनोविकास घडोवन हाडपी शिक्षणाची नवी पद्दत तिणें सोदून काडली. हे पद्दतीक मॉंटेसरी शिक्षण पद्दत अशें म्हण्टात.

रोमांत त्या काळांत घरनिर्माण समितीन बांदिल्ल्या दर एका घरांत शिशुघरां सुरू करपाची येवजण तिणें सुरू केली. १९०६ त समितीच्या सगळ्या घरांत सुरू केल्ल्या शिशुघरांचें संचालकपद मॉंटेसरीकडे दिलें.

मॉंटेसरी शिक्षण पद्दतीच्या शिक्षण-प्रशिक्षणाचो पयलो वर्ग तिणें १९०९ वर्सा उक्तो केलो. पयल्या संवसारीक म्हाझुजाउपरांत तिणें स्थापन केल्ली इटलींतली संस्था बंद पडली. उपरांत मॉंटेसरी अमेरिकेंत गेली. थंय न्यूयॉर्क हांगा तिणें मॉंटेसरी शिक्षण-प्रशिक्षण महाविद्यालय स्थापन केलें आनी ताचें काम तिणें एलिनार पार्कहर्स्ट हाचेर सोंपयलें. दुसऱ्या

म्हाझुजाउपरांत तिणें संवसारांतल्या कितल्याशाच देशांची भोंवडी केली. स्पेनाक वचून थंय तिणें प्रयोगशाळा आनी विद्यालय स्थापन केलें. भुरग्यांचे नवे शिक्षण पद्दतीच्या प्रसाराखातीर इंग्लंड, इटली, स्पेन ह्या देशांची तिणें भोंवडी केली.

भुरग्यांच्या शिक्षणाखातीर तिणें नवें तंत्र आनी उद्येग सोदून काडले. खेळ आनी छंद हांचेवरवीं भुरग्यांचे तकलेक ताण दिनासतना, तांची मानसिक उदरगत सादूंक जाय, अशें तिचें म्हणणें आशिल्लें.

तिणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं : The Absorbent Mind, The Discovery of the Child, Montessory Method, Dr. Montessory's own Hand Book, The Advanced Montessory Method.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद** : मॉंटेसरी शिक्षण पद्दत.

**मॉंटेसरी शिक्षण पद्दत :** शालेयपूर्व पिरायेंतल्या भुरग्यांच्या शिक्षणाची पद्दत. मारिया मॉंटेसरी (१८७०-१९५२) हिणें वयली शिक्षण पद्दत सुरू केली म्हूण तिचेंच नांव हे शिक्षण पद्दतीक दिलां. खूब कश्ट घेवन मॉंटेसरीन इटलींतल्या भुरग्यांखातीर ही पद्दत सोदून काडली. घरांतली गरीबी आनी विस्कळीतपण पळोवन मॉंटेसरीक दिसलें, ह्या भुरग्यांक यशस्वी शिक्षण दिवपाखातीर सुनियंत्रित आनी शिस्तबध्द वातावरणाची गरज आसता. तेखातीर मॉंटेसरीन संवेदनक्षमता विकसित करपी साहित्य तयार केलें आनी शिक्षणाची नवी पद्दत सुरू केली.

मॉंटेसरी शिक्षणाचें खाशेलपण म्हळयार वर्गांतलें नियोजन, टापटीप, नितळसाण, वर्गांतल्या फर्निचराची रचणूक, ल्हान भुरग्यांचें मानसशास्त्र मतींत घेवन दर एक गजाल आंखप, वर्गांतल्या भुरग्यांच्या हालचालींक स्वातंत्र्य आसचें, भुरग्यांनी शिस्तीन वागून साहित्याचो फाव तो वापर करचो, हें साहित्य वेवस्थित हाताळून ताची तोडफोड जावंची न्हय म्हूण भुरग्यांक खास धडे दिवंचे ह्यो गजाली मॉंटेसरी शिक्षण पद्दतींत म्हत्वाच्यो आसात.

मॉंटेसरी पद्दतींत वेदक (sensitive) आनी कारक (operating) शिकोवपावांगडाच सादारणं ज्ञानात्मक आनी समाजीक फिशालकाय येतली, हाचेर भर आसता. ह्या सगळयांचो परस्पर संबंद आसता. मॉंटेसरीन पापेलावांच्या आदारान चार वर्सांच्या भुरग्यांक शिकोवपाक सुरवात केली. वेगवेगळया पद्दतींच्या आदारान चार वर्सांचीं ल्हान भुरगीं देड म्हयन्यांतूच वाचपाक आनी बरोवपाक शिकतलीं, अशी येवजण मॉंटेसरीन केली.

शालेयपूर्व पिरायेच्या भुरग्यांक नवे शब्द शिकपाची खूब उमळशीक आसता. शास्त्रीय आनी तांत्रिक गजालीय भुरगीं शिकूंक शकतात. ह्यो सगळयो गजाली मतींत घेवन लेखन, वाचन, आनी गणत मनोरंजक पद्दतीन शिकोवपांत मॉंटेसरीन यश मेळयलें.

युरोप आनी अमेरिकेंत मॉंटेसरी शाळांचो नेटान प्रसार जालो. मॉंटेसरीची इंद्रिय शिक्षणाची कल्पना ज्ञानसंक्रमणाचेर आदारिल्ली आशिल्ल्यान कांय कडेन तिचेर थोडी टीकाय जाली. पूण मॉंटेसरीन भुरग्यांच्या शिक्षणाकडे पळोवपाची नवी नदर दिली, हें मात सर्वमान्य जालें.

युरोपांतल्या कांय देशांत मॉंटेसरी पद्दत चालू आसा. भारतांत गिजुभाई बधेका हांच्या यत्नांक लागून १९३९ सावन ही पद्दत लोकप्रिय जाली. शासकीय पालव मेळिल्ल्यान भारतांतल्या खेड्यांनी मॉंटेसरी शाळांचो बरोच प्रसार जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**मॉट, जॉन रॅली :** (जल्मः २५ मे १८६५, लिव्हिंगस्टन मॅनार-न्यूयॉर्क; मरण : ३१ जानेवारी १९५५, ऑर्लॅडो - फ्लॉरिडा).

आंतरराश्ट्रीय नामनेचो अमेरिकन खिस्ती धर्मोपदेशक. आयोबा हांगा प्राथमिक शिक्षण घेवन ताणें फुडें कार्नेल विद्यापिठांतल्यान पदवी घेतली (१८८८). १८८८त तो आंतरमहाविद्यालयीन वाय्. एम्. सी. ए. हे संस्थेचो सचिव जालो. व्हाडस्टेना (स्वीडन) हांगा कार्ल फ्रीस हाच्या पालवान ताणें आंतरराश्ट्रीय खिस्ती विद्यार्थी संघाची स्थापणूक केली (१८९५) आनी तिचो तो पयलो सचिव जालो. उपरांत तो विद्यार्थी आपवावुरपी चळवळीचो अध्यक्ष जालो.

१९१० त एडिंबर्ग हांगा भरिल्ल्या संवसारीक मिशनरी परिशदांचें यजमानपद ताका फाव जालें. ताका लागून प्रॉटेस्टंट पंथांतलो एक म्हान मिशनरी म्हूण ताका मान्यताय मेळ्ळी. मिशनरी कार्या निमतान १९१२-१३ ह्या काळांत ताणें कितल्याशाच देशांक भेटी दिल्यो. उपरांत तो वाय्. एम्. सी. ए. संस्थेचो मुखेल सचिव जालो (१९१५-१९२८).

पयल्या म्हाझुजा वेळार ताणें दोनय वटांतल्या राश्ट्रांमजगतीं आंतरराश्ट्रीय समजिकाय स्थापन करपाखातीर खूब कश्ट घेतले. झुजाच्या काळांत आनी उपरांत झूजपिडितांखातीर वाय्. एम्. सी. ए. वरवीं निरक्षित आनी जखमी सैनीक कैद्यांची सेवा करपाचें मोलादीक कार्य ताणें केलें. १९२०-३० ह्या काळांत ताणें आंतरराश्ट्रीय मिशनरी काउन्सिलच्या संघटना वावरांत पुराय लक्ष घालें. ताचो हेत वाय्. एम्. सी. ए. आनी ऑर्थडॉक्स चर्च हातूंत वैश्वीक एकचार निर्माण करप हो आशिल्लो. वर्ण देशाआड मोहीम काडून ताणें निग्रो आनी आशियाई काळे लोक हांच्या समान हक्कांची पोसवण जावंची, म्हूण उपाट यत्न केले. ताका लागून आंतरराश्ट्रीय समजिकाय आनी सगळया वर्णांविशीं आदरभाव वाडपाक मदत जाली. ह्या आनी पयल्या म्हाझुजांतल्या मोलादीक वावराखातीर ताका १९४६ वर्साचो शांततायेखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार एमिली बॉल्च हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

ताणें बरयलीं कांय पुस्तकां अशीं: 1) The Future Leadership of the Church (१९१०), 2) The Larger Evangelism (१९४४), 3) Liberating the Lay Forces of Christianity (१९३२) आनी 4) Five Decades and a Forward View (१९३९).

- कों. वि. सं. मं.

**मॉनो, झाक :** (जल्म: ९ फेब्रुवारी १९१०, पॅरिस; मरण: ३१ मे १९७६, कॅन).

नामनेचो फ्रेंच जीवरसायनशास्त्रज्ञ. पॅरिस विद्यापिठांत शिक्षण घेवन ताणें बी. एस्. (१९३१) आनी डी. एस्सी. (१९४१) ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. १९३२-३४ ह्या काळांत ताणें जैव क्रमविकासाविशीं संशोधन केलें. १९३४-४५ ह्या काळांत ताणें पॅरिस विद्यापिठाचे विज्ञान विद्याशाखेंत प्राणीविज्ञानाचो प्राध्यापक म्हूण काम केलें. दुसऱ्या म्हाझुजांत ताणें १९३९-४५ ह्या काळांत लश्करांतूय नोकरी केली. १९४५त तो पॅरिस हांगाच्या पाश्चर इन्स्टिट्यूटचे प्रयोगशाळेचो संचालक जालो आनी फुडें तेच संस्थेंतल्या कोशिकीय जीवरसायनशास्त्र विभागाचो मुखेल म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९५९ त पॅरिस विद्यापिठाचे विज्ञान विद्याशाखेंत तो चयापचय रसायन शास्त्राचो प्राध्यापक जालो. १९६७ त तो कॉलेज द फ्रांस हांगा प्राध्यापक जालो. १९७१ त पाश्चर इन्स्टिट्यूटचो तो संचालक जालो.

मॉनो हाचें सुरवातीचें कार्य सूक्ष्मजंतूंतल्या बीटागॅलॅक्टो-साइडेज ह्या प्रवर्तनशील एंझाइमाच्या संश्लेशणाविशीं आशिल्लें. १९४६ त सुरू केल्ल्या ह्या संशोधनावरवीं ताणें दाखोवन दिलें, ह्या एंझाइमाच्या प्रवर्तित निर्मितीचे पयलीं अस्तित्वांत आशिल्ल्या आनी प्रथिनाची बुन्याद आशिल्ल्या द्रव्याच्या रुपांतरान हें एंझाइम तयार जायना तर प्रथिन रेणूंचें सरळ संश्लेशण जाता. पाश्चर इन्स्टिट्युटांत झाकॉब आनी अभ्यागत अमेरिकन जीवविज्ञानिक आर्थर पार्डी हांच्यावांगडा काम करता आसतना मॉनो हाणें 'पा-झा-मॉ' प्रयोग ह्या नांवान सद्या प्रसिद्द आशिल्ल्या प्रयोगांत सहकार्य केलें. मॉनो आनी झाकॉब हांणी वेगवेगळ्या नियंत्रक उत्परिवर्तित सूक्ष्मजंतूंचेर प्रयोग करून १९६१ त संदेशक आर. एन. ए. आनी ओपेरॉन ह्यो संकल्पना मांडल्यो. ओपेरॉन हें गुणसूत्रांतलें परस्पर संबंदीत कार्य आशिल्लें आनी एकामेकांच्या लागसारच्या भागांतलें जीन (सिस्टॉन) आनी तांचे भागीदारींत आशिल्लें नियंत्रक जीन हांणी तयार जाल्लो आसता, अशें मॉनो आनी झाकॉब हांणी सांगलें.

फ्रेंच जीवविज्ञानीक फ्रांस्वा झाकॉब हाचेवांगडा आनुवंशीकींतले संदेशक आर. एन. ए. आनी ओपेरॉन ह्यो म्हत्वाच्यो संकल्पना मांडल्यो, म्हूण मॉनो आनी झाकॉब हांकां आंद्रे ल्वॉफ ह्या फ्रेंच जीवविज्ञानिका वांगडा १९६५ वर्साचो वैजकी आनी शरीरक्रियाविज्ञान विशयाचो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**मॉम, विल्यम समरसेट :** (जल्म: २५ जानेवारी १८७४, पॅरिस; मरण: १६ डिसेंबर १९६५, नीस, फ्रांस).

इंग्लीश कथा-कादंबरीकार आनी नाटककार. पिरायेचीं धा वर्सां मेरेन तो फ्रांसाकच आशिल्लो. ताणें आपलें शालेय शिक्षण ब्रिटनांतल्या कॅन्टरबरीच्या किंग्ज हायस्कुलांत घेतलें.



विद्यापिठीय शिक्षणाखातीर तो जर्मनींतल्या हायडेलबर्ग हांगा गेलो. १८९७ त ताणें लंडनच्या 'सेंट थोमस मॅडिकल स्कूल' हांगा वैजकीचें शिक्षण पुराय करून तो दोतोर जालो. वैजकीचें शिक्षण घेता आसतनाच ताका लेखनाचो छंद जडिल्लो. १८९७ वर्सा उजवाडा आयिल्ले 'लिझा ऑफ लॅम्बेथ' हे ताचे पयलेच कादंबरीन ताका नामना मेळोवन दिली. तेन्नाच तो वैजकी वेवसाय सोडून लेखनाकडे वळ्ळो. हे ताचे पयले कादंबरींत तशेंच उपरांतच्या 'ऑफ ह्यूमन बॉन्डेज' (१९१५) हातूंत ताचे लंडनचे झोपडपट्टींतलें अणभवांचें पडबींब ठळकपणान दिश्टी पडटा. 'द मून ॲन्ड सिक्स पेन्स' (१९१९) ही कादंबरी उजवाडा येतकच कादंबरीकार म्हूण ताका इंग्लीश साहित्यांत मानाची सुवात मेळ्ळी.

लंडनचे माचयेर लोकप्रिय नाटककार म्हणूनय ताका खूब नामना मेळ्ळी. 'अ मॅन ऑफ ऑनर' ह्या ताच्या पयल्या नाटकाक झुजाआदीं आनी झुजा उपरांत बरेंच यश मेळ्ळें. बर्नार्ड शॉच्या नाटकाकडे सर्त करत ताणें आपलो प्रेक्षकवर्ग तयार केल्लो. झुजाआदीं 'लेडी फ्रेडरिक' ह्या नाटकान सुमाराभायर नामना मेळोवन दिली. झुजा उपरांतचीं ताचीं नाटकां : 'द सर्कल' (१९२१), 'अवर बेटर्स' (१९२३), 'द लेटर' (१९२७) हीं विशेश उल्लेख करपासारकीं नाटकां. पूण फुडें 'शेपी' (१९३३) ह्या नाटकाउपरांत ताचो रंगमाचयेवयलो संबंद सोंपलो. रंगमाचयेवयल्या ताच्या नाट्यपूर्ण अणभवाचें पडबींब ताच्या 'द थिएटर' हे कांदबरींत तशेंच हेर कथांतय दिसता.

पयल्या म्हाझुजांत ताणें गुपीत हेरगिरीचीं कामां केल्लीं. त्या अणभवांचेर आदारिल्ल्यो हेर कथा 'ॲशनडेन' (१९२८) पुस्तकांत आसात. ताची 'ऑफ ह्यूमन बॉन्डेज' (१९१५) ही आत्मचरित्रात्मक कादंबरी आसा. ताच्या केक्स ॲंड एल्स (१९३०) हे कादंबरींत ह्यू वॉलपोलसारक्या जायत्या साहित्यीक इश्टांचीं शब्दचित्रां मेळटात. पूण कादंबरीपरस ताची कथाकार म्हणूनच चड नामना आसा. 'द ट्रेम्बलिंग ऑफ अे लिफ' (१९२१) हो ताचो पयलो कथासंग्रह. 'लिटल स्टोरीज ऑफ द साऊथ सी आयलंडस्' हें ताचें उपशीर्शक आसा. कारण ह्या कथांचे विशय ताका मलेशिया आनी उदेंतेकडल्या देशांतल्या भोंवडेंत सुचिल्ले. ताणें भारतांतय भोंवडी केल्ली. ताच्या 'द रेझर्स एज' चेर भारतीय तत्त्वगिन्यानाचो ठसो उदेल्लो दिसता.

हे कादंबरीची नायिका इसाबेल श्रीमंती भावनीक वादळांत सापडटा. तिचो बापोलयो इलियाट टेम्पलटन हो एक अमेरिकन उच्चभ्रू मनीस. लॅरी डारेल हो तिचो प्रियकर शिकागोंत शेअरचो दलाल आसता. आत्मशांतीखातीर तो सगळें वैभव सोडून द. भारतांतल्या गुरूच्या आश्रमांत आलाशिऱ्याक येता. 'द रेझर्स एज' हें नांव उपनिषदांतल्या तत्त्वगिन्यानाचेर आदारिल्लें आसा. योगीच धारदार वाखराच्याकडेचेर चलूंक शकता असो ताचो अर्थ आसा. मॉम च्या नांवाचेर जायत्यो कादंबऱ्यो आनी धा कथा संग्रह आसात. तातूंत 'मिसेस क्रॅडॉक', 'द मॅजिशियन' 'कॅटालिना', 'द पेन्टेड व्हेल', 'अप ॲट द व्हिला', द नॅरो कॉर्नर, हांचो आस्पाव जाता.

ताच्या कथा कांदबऱ्यांचीं कथानकां भावभडक आसतात. ताची निवेदन कुशळताय शब्दांच्या काटकसरीचो कुशळतायेन वापर हाकालागून परिणामकारक थरता. ताच्या जायत्या कथांचीं सिनेमारुपांतरां कशीं जैतिवंत थारलीं हाचो वृत्तांत ताच्या 'क्वार्टेट' (१९४८) ह्या संग्रहाचे प्रस्तावनेंत वाचूंक मेळटा. ताची लेखनशैली कशी घडत गेली हाचो उलगडो ताच्या 'अे रायटर्स नोटबूक' (१९४९) त जाता. ताच्या हेर साहित्यप्रकारांतलें लिखाण थोडेंच आसा. 'ऑन अे चायनीज स्क्रीन' (१९२२), 'डॉन फर्नानडो हीं' प्रवासवर्णनां, कांय निबंद, समीक्षा आनी आत्मनुभव कथानक 'द समींग अप' (१९३८) आनी 'अे रायटर्स नोटबुक' (१९४९) अशा लेखनाचो आस्पाव तातूंत जाता. ताणें बरयल्लो 'टेन नोव्हेल्स अँड देअर ऑथर्स' (१९५४) हो समीक्षाग्रंथ उल्लेख करपासारको आसा. हाचेवयल्यान ताच्या व्यासंगाची आनी चिंतनाची कल्पना येता.

- डॉ. आनंद पाटील

**मॉरिटेनिया :** मॉरिटेनिया इस्लामी प्रजासत्ताक हो अस्तंत आफ्रिकेंतलो एक प्रजासत्ताक देश. क्षेत्रफळ १०,३०,७०० चौ. किमी. लोकसंख्या २,५११,४७३ (१९९२). दक्षिण-उत्तर लांबाय सु. १,५०० किमी. आनी उदेंत-अस्तंत रुंदाय १,०९४किमी. अक्षवृत्तीय आनी रेखावृत्तीय विस्तार १४°४२' ते २७° उत्तर आनी ४°३०' ते १७°७' अस्तंत. मॉरिटेनियाचे ईशान्येक अल्जीरिया, उदेंतेक आनी दक्षिणेक माली, नैर्ऋत्येक सेनेगल, वायव्येक आनी उत्तरेक मोरोक्को हे देश आसात आनी अस्तंतेक अटलांटिक म्हासागर आसा.

**भूंयवर्णन :** सैमीक नदरेन मॉरिटेनीया हो सहारा प्रदेशाचो अस्तंतेकडचो एक भाग आसा. तो मळांनी आनी पठारांनी रेवाडिल्लो आसा. भूंयचरणूकेचे नदरेंतल्यान देशाचे तीन वांटे जातात. दक्षिण सेनेगल देगणांचो अशीर वाठार आनी उत्तरेकडचो पठारी आनी मळांचो वाठार.

न्हंयेच्या देगणांच्या उत्तर वाठारांत आद्रार, मदलो टागांट, धार टीशीट, धार वालाटा आनी दक्षिण वाठारांतलो आबास आनी आफ्लोल्ले हे मुखेल पठारी प्रदेश आसात. तांचे उत्तरेक वालुकामय मळांचो वाठार आसा. देगांच्या मळांच्या वाठारांची दर्यापातळेसावन उंचाय ४५मी. परस कमी आसा आनी मदल्या मळांच्या वाठारांची उंचाय १८३ ते २२८ मी. इतली आसा. वायव्य वाठारांतलें केडिएट इजिल हें देशांतलें सगळयांत ऊंच तेमक आसा. देशांत सगळयाक रेवेंच्यो दोंगुल्ल्यो दिश्टी पडटात. देशाचे दक्षिण दिकेसावन अस्तंतेक व्हांवपी सेनगल ही हांगाची म्हत्वाची न्हंय आसा.

देशाचे दक्षिणेचे कांय वाठार सोडून सगळयाक हवामान उश्ण आनी सुकें आसता. देशांतल्या हवामानाचे सादारण तीन वांटे करूं येतात. दक्षिण मॉरिटेनियाचें हवामान साहेलियन प्रकारचें आसा. हांगा जुलय ते ऑक्टोबर ह्या काळांत पावस पडटा. पूण वर्सुकी पावस सु. ६८ सेंमी. इतलोच पडटा. सेनेगल न्हंयेच्या वाठारांत तापमान २४° से. ते ३५° से. आसता. उत्तर मॉरिटेनियाचें हवामान सहारा प्रकारचें आसा. ह्या वाठारांनी शियाळयांत तापमान ०° ते ३८° से. जाल्यार गिमांत तें १६° ते ५४°से. आसता. आटार हांगा वर्सुकी पावस १०सेंमी. पडटा.

भूंयेच्या आनी हवामानाच्या वेगळेपणाक लागून वनस्पतय विंगड विंगड तरांची आसा. उत्तरेक सहारा प्रदेशांत, रेंवांट वाठारांनी कांट्यांची वनस्पत जाता. हांगा खाजुराचींय झाडां चड प्रमाणांत सांपडटात. दक्षिण वाठारांत सॅव्हाना प्रकारची वनस्पत आनी तण वाडटा.

देशाचे दक्षिणेक, सॅव्हाना प्रकारच्या प्रदेशांत शींव, बिबळे, हत्ती, कोले, मानगीं, ऊद, माजर, माकड, उदकांतले घोडे आनी उत्तर वाठारांत, हरणां, रानबोकड्यो आनी हेर मोनजात सांपडटा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** सुरवेक हांगा निग्रो लोकांचो राबितो आशिल्लो. इ.स. तिसऱ्या आनी चवथ्या शेंकड्यांत बर्बर लोक हांगा आयले. चवदाव्या आनी पंदराव्या शेंकड्यांत येमेनी बेदूइन उत्तर आफ्रिकेंतल्यान मॉरिटेनियांत आयले आनी सतराव्या शेंकड्यांत तांणी बर्बर लोकांक आपल्या शेकातळा हाडले.

पंदराव्या शेंकड्यांत भांगर, गुलाम हांचो वेपार आनी नुस्तेंमारीच्या निमतान पुर्तुगेज हांगा आयले. उपरांत ह्या वाठारांचेर आपले पुराय अधिकार आसचे म्हण, पुर्तुगेज, फ्रेंच, डच आनी इंग्लीश वेपाऱ्यांची सर्त लागिल्ली. १८१५ त सेनेगलान ह्या प्रदेशाचो दक्षिण वांटो फ्रांसाक वसाहतीक दिल्यान हे सर्तीचो शेवट जालो. फ्रांसान १९२० त मॉरिटोनियांत आपले वसाहतीची स्थापणूक केली. अशे तरेन मॉरिटेनिया हो फ्रेंच वेस्ट आफ्रिका महासंघाच्या आठव्या प्रदेशांतलो एक जालो. २८ सप्टेंबर १९५८ त मॉरिटेनीया हो 'फ्रेंच कम्युनिटी' चो स्वयंशासित सदस्य जालो. नोव्हेंबर १९५८ 'इस्लामीक रिपब्लिक ऑफ मॉरिटेनिया' ह्या नांवान तो जाहिर केलो. २८ नोव्हेंबर १९६० त मॉरिटेनियाक पुराय स्वातंत्र्य मेळळें.

स्वतंत्रताये उपरांत देशांत थिरपण आयलें. १९७३ त मॉरिटेनीया अरब लीगाक मेळळो आनी त्याच वर्सा फ्रँक विभागांतल्यान भायर सरलो.

२० मे १९६१ त तयार केल्ल्या संविधानाप्रमाण मॉरिटेनिया हो इस्लामीक प्रजासत्ताक देश म्हण जाहीर केलो. ह्या संविधाना प्रमाण सगळी सत्ता राश्ट्राध्यक्षाच्या हातांत आशिल्ली. पूण १९७८ त जाल्ल्या लश्करी उठावाक लागून सगळी सत्ता लश्कराच्या हातांत गेली. नव्या लश्करी प्रशासनान 'मॉरिटेनियम पीपल्स पार्टी' हो पक्ष आनी देशाची संसद बंद केली. आनी सगळी सत्ता 'मिलिटरी कमिटी फॉर नॅशनल रिकव्हरी' च्या शेकातळा उरली. कर्नल मुस्ताफा ओडल्ड सॅलेक ह्या सीएम.आर.एनच्या मुखेल्यान अध्यक्ष पद आपलेचकडे दवरिल्लें. ३ जून १९७८ त अहमद लाउली राश्ट्राध्यक्ष जालो.

**अर्थीक स्थिती :** आफ्रिकेंतल्या मागाशिल्या देशांतलो हो एक देश आसा आनी शेतवड आनी गोरवां पोसप हो हांगाचो मुखेल वेवसाय. शेतवड चडकरून पावसाचेरूच आदारून आसा. देशाच्या अन्नधान्याच्या वट्ट गरजेंतलें फकत १०% उत्पन्न देशांत पिकयतात. ज्वारी, कड्डण, खाजूर, भात, मको, भूंयमूग, कणगां, रताळीं, कापूस, अरेबिक दींक, भाजीपालो हांचें उत्पन्न कांय प्रमाणांत जाता. पशुपालन हो हांगाच्या लोकांचो परंपरीक आनी मुखेल वेवसाय आसा आनी दिसानदीस तो वाडत आसा. ८०% मूर लोक गोरवां आनी मेंढरां पोसतात. रानांतले पिकावळींत, ॲकेशिया वनस्पतीसावन मेळपी अरेबीक दीक म्हत्वाचो आसा. मॉरिटेनियाक ९००किमी. दर्यादिग फाव जाल्ल्यान नुस्तेमारीचो धंदो व्हड प्रमाणांत चलता. 'मॉरिटोनियम फिश इंडस्ट्रीज' ही नुस्त्याचेर प्रक्रिया करपी मुखेल स्पॅनिश कंपनी हांगा आसा.

देशाचे येरादारीच्या मळार तितलिशी उदरगत जावंकना. लागीं लागीं आसपी रेंवेंच्यो दोंगुल्ल्यो, दक्षिण वाठारांत अकस्मात येवपी हुंवार खर चड्ट्यो आनी देंवत्यो ह्यो रस्त्यांचे येरादारींत मुखेल आडखळी आसात. आजूनय देशाचे उत्तरेवटेन उंट आनी दक्षिणेक बैल आनी गाढवां हांचो व्हडा प्रमाणांत उपेग करतात. १९८३ मेरेन देशांत ८,९०० किमी. लांबायेचे रस्ते आनी ६५२ किमी. लांबायेचे रेल्वे मार्ग आशिल्ले. नॉकशॉट, न्वादिब्यू आनी नेमा हांगा आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. न्वादिब्यू आनी न्वाकशॉट हीं हांगाचीं मुखेल बंदरां आसात.

**लोक आनी समाजजीण :** देशांतले ६८% लोक मूर वंशाचे आनी बाकीचे ३२% लोक निग्रो वंशाचे आसात. मूर लोकांत अर्दे गोरे कातीचे आनी अर्दे सावळया रंगाचे आसात. निग्रो लोक चडशे दक्षिणेकडचे सेनेगल न्हंयेच्या वाठारांनी आनी शारांनी सांपडटात. निग्रो लोक तूकूलार, साराकॉल, फुलानी, वोलॉफ आनी बाबारी पंगडांतले आसात. युरोपी लोकांतले चडशे फ्रेंच आनी स्पॅनिश आसात. राखणे आपलीं गोरवां घेवन नव्या नव्या चरवा मळांनीं भोंवत आसतात. अरबी आनी फ्रेंच ह्यो हांगाच्यो अधिकृत भाशा आसात. अरबी ही राश्ट्रभाशा आसा. चडशे मूर लोक अरबी भाशा उलयतात. 'एल् छाब' हें न्वाकशॉटसावन उजवाडाक येवपी दिसाळें आसा. सद्या शिक्षणाच्या मळार उदरगत करपाचे यत्न नेटान चल्यात. पूण साक्षरतेचें प्रमाण फकत १६% आसा. राजधानी न्वाकशॉट, देशांतलें सगळयांत व्हड शार, तशीच न्वादिब्यू, काएडी, झाउएराटे, रोसो आनी आटार हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं शारां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मॉरिशस :** मॉरिशस हो मुखेल जुंवो आनी हेर हिंदी महासागरांतल्या ल्हान ल्हान जुंव्यांपसून तयार जाल्लो देश. ह्या देशांत मॉरिशस जुंवो, रोड्रीगेस जुंवो, आगालेगा जुंवो, सेंट ब्रांडन द्वीपसमूह हांचो आस्पाव जाता. मॉरिशस हो हांच्यांतलो सगळयांत व्हड जुंवो म्हण ह्या देशाक मॉरिशस हें नांव मेळ्ळें. हो जुंवो मादागास्कराचे उदेंतेक ८००किमी. पयस आसा. देशाच्या वट्ट क्षेत्रफळांतलें ९३% क्षेत्रफळ आनी वट्ट लोकसंख्येंतली ९७% लोकसंख्या एकट्या मॉरिशस जुंव्याची आसा. अक्षवृत्तीय आनी रेखावृत्तीय विस्तार १९°५०' ते २०°५' दक्षिण आनी ५७°८' ते ५७°४८' उदेंत. मॉरिशस जुंव्याचे सादारण उदेंतेक ५३० किमी. पयस रोड्रीगेस जुंवो आनी उत्तरेक ९६०किमी. पयस दोन आगालेगा जुंवे आसात. लोकसंख्या : १,६८, २५६ (१९९१). वट्ट क्षेत्रफळ २,०४० चौ. किमी. आसा. मॉरिशस जुंव्याचेर आशिल्लें पोर्ट लुई शार देशाची राजधानी आसा.

**भूंयवर्णन :** मॉरिशस हो ज्वालामुखी क्रीयेंतल्यान निर्माण जाल्लो जुंवो आसा. जुंव्याचे उत्तरेक सपाट मळांचो वाठार आनी मध्यवाठार पठारी आसा. सपाट मळांसावन मदल्या पठारी वाठारा मेरेन उंचाय ६७०मी. इतली वाडत वता. ह्या पठारी प्रदेशांत ल्हान ल्हान पर्वतांच्यो वळी आनी ल्हान दोंगुल्ल्योय आसात. जुंव्याचे दक्षिणेकडचो वाठार पर्वतांचो आसा आनी नैर्ऋत्येक पिटोन दला पेटीट रीव्हीयरा नवार हें देशांतलें सगळयांत ऊंच (८२६मी.) तेमूक आसा. रोड्रीगेस होय ज्वालामुखी जुंवो आसा. मॉरिशस जुंव्याचेर स मातयेप्रकार सांपडटात. तातुंतल्या बेसाल्ट फातरांसावन तयार जाल्ली काळी माती चड पिकाळ आनी शेतवडीचे नदरेंतल्यान म्हत्वाची आसा. मॉरिशस जुंव्याकडच्यान खूब ल्हान ल्हान न्हंयो खोल देगणांतल्यान व्हांवतात. हातुंतली ग्रँड रिव्हर साउथ-ईस्ट ही सगळयांत लांब (३९मी). न्हंय आसा.

**हवामान, वनस्पत आनी मोनजात :** दर्यादिगेलागच्या वाठारांनी हवामान १८° ते ३०°से. इतलें आसता. मदल्या वाठारांनी ४६०मी. उंचायेचेर तें १३° ते २६° से. आसता. नोव्हेंबर ते एप्रिल गीम आनी मे ते ऑक्टोबर शिंयाळो आसता. गिमांतलें सरासरी तापमान २४°से. आनी शिंयाळयांत सरासरी तापमान २०°से. आसता. वर्सुकी सरासरी पावस अस्तंत दर्यालागसारच्या वाठारांनी ९०सेंमी. पडटा. आग्नेय दर्यादिगांचेर १५०सेंमी. आनी मदल्या पठारी वाठारांत ५०० सेंमी. पावस पडटा.

देशांत सु. ६०० वनस्पतींचे प्रकार सांपडटात. सद्या ह्या जुंव्यार सांपडपी वनस्पतींची लागवड हालींच हांगा रावपी लोकांनी केल्या. युरोपी

वसाहतकारांनी आपल्यावांगडा सुणो, मांजर, हुंदीर, माकड, रानदुकर, सांबर, हरणां, मुंगसां ही मोनजात हाडली. डोडो हें सवणें मूळचें हांगाचें.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** दीर्घ काळामेरेन मनीस नाशिल्लो हो जुंवो पयलीं अरबांनी, स्वाहिली आनी मलायी तारवट्यांनी मागीर पुर्तुगेज आनी हेर युरोपी तारवट्यांनी पळयल्लो. १५१०त पुर्तुगेज हांगा पावील्ले, पूण १५९८त ॲडमिरल व्हीब्रांट व्हान वॉरविज्क हाच्या फुडारपणाखाल डच लोक ह्या जुंव्यार येवंचेपयलीं कोणाकच ह्या जुंव्याविशीं चडशी म्हायती नाशिल्ली. नॅसॉचो राज्यप्रमुख प्रिन्स मॉरिस हाच्या नांवावयल्यान डचांनी ह्या जुंव्यांक मॉरिशस हें नांव दिलें. डचांनी १६३८ ते १६५८ आनी १६६४ ते १७१० ह्या काळांत ह्या जुंव्यांचे वसाहतींची स्थापणूक करपाचे यत्न केल्ले. १७१५त फ्रेंचांनी हे आपल्या शेकातळा हाडून ह्या जुंव्यांक 'एल् दे फ्रांस' अशें नांव दिलें. १७२१ ते १७६७ मेरेन फ्रेंच ईस्ट इंडिया कंपनीन ह्या जुंव्यांचो राज्यकारभार सांबाळिल्लो. मुखार हांगा पोर्ट लूईची स्थापणूक करून, भारतांतल्या ब्रिटिशांचेर घुरयो घालपाचो तळ म्हूण हांचो उपेग केलो. १७६७ त फ्रेंच शासनान ह्या जुंव्यांचो राज्यकारभार हातांत घेतलो.

ब्रिटिशांनी १८१० त हो जुंवो काबीज करून डचांनी दवरिल्लें नांव 'मॉरिशस' हें तशेंच दवरलें. सुरवेक फकत वेपारी आनी लश्करी नदरेन म्हत्व आशिल्लो 'मॉरिशस' ब्रिटिशांच्या तेंपार मळ्यांचे शेतवडीचो आनी साखर तयार करपी मुखेल जुंवो जालो. पूण भाशा, कायदे, चालीरिती आनी संस्कृतीक नदरेन फ्रेंचांचोच प्रभाव ह्या जुंव्यार चड उरलो. १२ मार्च १९६५ दिसा 'मॉरिशस' स्वतंत्र जालो. १८८० च्या संविधानाप्रमाण २७ सदस्यांचें कार्यकारी मंडळ आशिल्लें आनी १९४७ च्या संविधानाप्रमाण बायल आनी दादल्यांक मतदानाचे समान हक्क दिल्यात. २१ ऑगस्ट १९८३त जाल्ले वेंचणुकेंत अनिरूध्द जगन्नाथ पंतप्रधान जालो. मॉरिशसांत संसदीय शासनवेवस्था आसा. पंतप्रधान आनी हेर २० मंत्र्यांचें मेळून मंत्रीमंडळ जाता. विधानसभेंतली अधिकृत भाशा इंग्लीश आशिल्ली तरी सभासदांक फ्रेंच भाशेचो वापर करपाक मेळटा. १८ वर्सांवयर पिरायेच्या सगळ्यांक मतदानाचे अधिकार आसात.

**अर्थीक स्थिती :** मॉरिशस हो शेतवडीचेर चड भर दिवपी देश आसा आनी साखर हो देशाचे अर्थवेवस्थेचो मूळ आदार आसा. मॉरिशस जुंव्याच्या वट्ट क्षेत्रफळांतलें ५०% क्षेत्र शेतवडीखाला आसा. देशाच्या वट्ट राष्ट्रीय उत्पन्नांत ३०% वांटो साखरेचो आसता आनी वट्ट निर्यात उत्पन्नांतलें ७०% उत्पन्न साकरेच्या निर्मितींतल्यान मेळटा. वट्ट लागवडीखाला आशिल्ले जमनींतली ९०% जमीन ऊंसाच्या पिकाखाल आसा. हेर पिकांभितर च्या, बटाट, केळीं, तंबाकू, भूंयमूग, टोमाट, नाल्ल हीं आसात. पशुपालनाचो धंदो हांगा बरोच उदरगतीक पावला. रानांतल्या रुखांपसून बरेंच उत्पन्न मेळटा. उदकांतली पिकावळ बरीच आसा आनी ह्या धंदयाक फाटबळ दिवपाक सरकार यत्न करता. नुस्तेमारीचो धंदो फळादीक जावंचो म्हण जपान आनी रशियाकडल्यान तांत्रिक आदार घेतात. देशांत खनिज संपत्ती साप कमी आसा. मॉरिशसांत ऊंस, च्या हांच्यासारक्या शेतवड उत्पादनाचेर प्रक्रिया करपी उद्देगांचें प्रमाण चड आसा. देशांत यंत्रसामुग्री, लोखणी नळ, सारें, चिनी मातयेच्यो वस्तू, कागद, कापड, कंवची, साखर हांचे कारखाने आसात. कापड, सिगरेट, फस्का-काडयो, खेळणीं, वेतकाम, तांब्या-पितुळच्यो वस्तू हे ल्हान ल्हान उद्देगय देशांत चलतात.

मॉरिशसांतले पोर्ट लूई आनी रोड्रीगेस जुंव्यावयलें मॅथुरिन बंदर हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं बंदरां आसात. प्लाईसान्स हो आंतरराष्ट्रीय विमानतळ आसा.

इंडो-मॉरिशियन हो हांगाचो मुखेल वांशिक पंगड आसा आनी हांचे वट्ट लोकसंख्येंतलें प्रमाण सु. ६८% आसा. मॉरिशस जुंव्यावयले वट्ट लोकसंख्येंतले ५१% हिंदू धर्माचे, ३१.३% क्रिस्तांव धर्माचे आनी १६.६% मुसलमान धर्माचे लोक आसात. रोड्रीगेस जुंव्याचेर ९७% लोक रोमन कॅथलिक आसात. इंग्लीश ही देशांतली अधिकृत भास आसा. क्रीओल हीय भाशा चड प्रमाणांत उलयतात. हांचेखेरीज हिंदी आनी हेर भारतीय भाशाय चड प्रमाणांत उलयतात. एल् एक्सप्रेस, ले मॉरिसिअन आनी ॲडव्हान्स हीं मुखेल दिसाळीं पोर्ट लूईसावन उजवाडाक येतात. राजधानी पोर्ट लुई हें देशांतलें सगळ्यांत व्हड शार आसा आनी मुखेल वेपार केंद्रय आसा. रोस हील, कुरपीप कात्र बॉर्न, फिनिक्स हीं मॉरिशस जुंव्यावयलीं म्हत्वाचीं शारां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## मॉर्गन, टॉमस हंट :

(जल्म : २५ सप्टेंबर १८६६, लेक्झिंग्टन-केंटकी; मरणः ४ डिसेंबर १९४५, पॅसाडीना).

नामनेचो अमेरिकन जीवविज्ञानीक. आर्विल्ले आनुवंशिकीचो एक मुखेल संस्थापक. स्टेट कॉलेज ऑफ केंटकी हांगा शिक्षण घेवन ताणें बी. एस्. (१८८६) पदवी मेळयली. १८९० त जॉन्स हॉपकिन्स विद्यापिठाची डॉक्टरेट ताणें मेळयली. १८९१-१९०४ ह्या काळांत ताणें फिलाडेल्फिया लागसारच्या ब्राऊन मार कॉलेजांत प्राणीविज्ञानाचो पालवी प्राध्यापक म्हूण काम केलें. १९०४-२८ ह्या काळांत तो कोलंबिया विद्यापिठांत प्रायोगिक प्राणीविज्ञानाचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९२८त ताणें पॅसाडीना हांगाचे कॅलिफॉर्निया इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजींत (कॅल्टेक) कर्कहॉफ लॅबोरेटरीज ऑफ बायॉलॉजिकल सायन्सीस ही प्रयोगशाळा स्थापन केली आनी तिचो तो संचालक जालो. १९४१ त तो संचालक पदावयल्यान निवृत्त जालो.

मॉर्गन हाणें १८९३-१९१० ह्या काळांत भ्रूणविज्ञानांतल्या मुळाव्या समस्यांच्या अभ्यासाखातीर प्रायोगिक तंत्रांचो उपेग केलो. ताणें सैमीक निवडींतल्यान जातींची उत्पत्ती ह्या डार्विन हाच्या सिध्दांताचेर आनी ग्रेगोर मेंडेल हाच्या आनुवंशिकींतल्या संकल्पनांचेर टीका केली. पूण आनुवंशिकींतल्या

आपल्या स्वताच्या प्रयोगांउपरांत ताणें आपलें मत बदललें. कोलंबिया विद्यापिठांत ताणें जीन हे आनुवंशिकतेचे कण आशिल्ल्याची सत्यता पळोवपाखातीर एक प्रयोगमाळ घडोवन हाडली. ताणें आपल्या प्रयोगांखातीर उणें जिवित आशिल्ली आनी प्रयोगशाळेंत बदलपी परिस्थितींत सहज प्रजनन करूंक येता अशे ड्रॉसोफिला मेलॅनोगॅस्टर ह्या फळकिडीची निवड केली. ही कीड फकत १० दिसांत आपलें जिवीतचक्र पुराय करता आशिल्ल्यान वर्सभरांत तिच्यो ३० पिळग्यो मेळूंक शकतात. १९१४ मेरेन मॉर्गन हाचे प्रयोग प्रजनन आनी कोशिकाविज्ञानीक परीक्षणांवरवीं यशस्वी जावन ताणें गुणसूत्र सिध्दांत सिध्द केलो. १९१०त ताका पयली उत्परिवर्तन (Mutation) केल्ली कीड दिसून आयली आनी तिचो सामान्य कीडीवांगडा ताणें संकर केलो. ताचेर ताणें खोलायेन संशोधन केलें. जीन हें गुणसुत्रांचेर माळेप्रमाण जोडिल्लें आसता, असो निश्कर्श ताणें काडलो. मॉर्गन आनी ताच्या वांगड्यांनी पयलीं गूणसूत्र चित्रणां १९११ त तयार केलीं. मॉर्गनाच्या संशोधनाक लागून जैव क्रमविकासाची प्रक्रिया स्पश्ट जावपाक मदत जाली आनी हो सिध्दांत आर्विल्ले आनुवंशिकतेची बुन्याद थारलो. गूणसुत्रांच्या आनुवंशिकता संक्रामणाच्या सोदाखातीर ताका १९३३ वर्साचो शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयाच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान फाव जालो. नोबॅल पुरस्काराखेरीज ताका आनीक कितलेशेच भोवमान आनी पुरस्कार फाव जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## मॉर्गन, लुई हेन्‍री : ( जल्म : २१ नोव्हेंबर १८१८, आरोरा (न्यूयॉर्क), न्यू इंग्लंड; मरणः १७ डिसेंबर १८८१, रॉचेस्टर (न्यूयॉर्क).

एक व्हड अमेरिकन मानवशास्त्रज्ञ. ताचें मुळावें शिक्षण आरोरा शारांत जालें. १८४० त ताणें युनियन महाविद्यालयाची पदवी घेवन फुडें कायदयाचें शिक्षण घेतलें आनी वकिलीचो वेवसाय सुरू केलो. न्यूयॉर्क राज्याच्या कायदेमंडळांत तो दोनदां वेंचून आयलो. कांय तेंप तो रेल्वे कंपनीचो संचालक आशिल्लो. फुडें १८६२ त ताणें वकिली वेवसाय सोडलो आनी तो रॉचेस्टर हांगा रावन मानवशास्त्राचो संशोधन, अभ्यास करूंक लागलो. १८५१ त ताणें एलिझाबेथ स्टील हे चलयेकडे लग्न केलें आनी ताका तीन भुरगीं जालीं.

राज्य वि ीमंडळाचो वांगडी आनी सीनेटर जावपाचो मान ताका मेळिल्लो. पूण ताका राजकारणाची व्हडलीशी आवड नाशिल्ली. मानवशास्त्राचो अभ्यास करपाखातीर ताणें 'यंग मेन्स क्लब' हे संस्थेचें सभासदत्व आपणायलें. सुरवेक ताणें इरोक्वाईस ह्या अमेरिकन इंडियनांतल्या सेनेका जमातीचो खोलायेन अभ्यास करून आपले ते विशींचे विचार लीग, ऑफ द हो-द-नो-साऊ-नी वा इरोक्वाईस (१८५१) ह्या पुस्तकांत मांडले. हाचेभायर ताणें सेनेका जमातींतल्या नात्यांविशींचो विशेश अभ्यास केलो. आशियांतले नात्यासंबंद आनी नात्याविशींचीं नांवां हांचेविशींय ताणें जायती म्हायती पुंजायली आनी तांचेर सिस्टिम्स ऑफ कॉन्सँग्विनिटी अँड ॲफिनिटी ऑफ द ह्यूमन फॅमिली हो ग्रंथ उजवाडाक हाडलो (१८७१). अमेरिकेंतले इंडियन हे मूळ आशियांतल्यान आयले हें मत ताणें पयलीं मांडलें.

ताचो सगळ्यांत म्हत्वाचो अभ्यासपूर्ण आनी संशोधनात्मक असो ग्रंथ म्हळ्यार 'एन्शन्ट सोसायटी' (१८७७). हो ग्रंथ चड करून समाजांतल्या कुटुंबाचे उत्क्रांतीचेर भर दिता. ह्या ग्रंथाचे एकूण चार भाग आसात. ते अशेः १) नव्या सोदांच्या आदारान बुध्दिमत्तेंत जाल्ली वाड, २) समाजाच्या शासनाविशीं कल्पनांतली उदरगत, ३) कुटुंबाविशीं कल्पनांचो विकास, ४) मालमत्तेविशीं कल्पनांतलो बदल. कार्ल मार्क्स आनी फ्रीड्रिख एंगेल्स हे दोगय ह्या ग्रंथाकडे आक्रुश्ट जाले. एंगेल्सान ह्या ग्रंथाचेर आदारीत द ओरिजिन ऑफ द फॅमिली, प्रायव्हेट प्रॉपर्टी अँड द स्टेट (१८८४) नांवाचो स्वतंत्र ग्रंथ बरयलो. मॉर्गनच्या ह्या ग्रंथाचेर मदीं कांय टीकाय जाल्ली.

मॉर्गनान ऑस्ट्रेलियन मानवजातिशास्त्राचेरय बरयल्लें. मोर्गन हो ऑस्ट्रेलियन नात्यासंबंदाचेर प्रबंध बरोवपी पयलो मानवशास्त्रज्ञ. ताणें युरोपाची भोंवडी करून (१८७०-७१) जायत्या विचारवंतांची भेट घेतली. युनियन महाविद्यालयान तांकां सन्मान्य पदवी दिल्ली. अमेरिकन ॲकॅडमीची ताका अधिछात्रवृत्ती दिल्ली (१८६८). हे भायर १८७५ त ताका अमेरिकन ॲकॅडेमी ऑफ आर्टस आनी सायन्स हे संस्थेचें सदस्यत्व दिल्लें. इ.स. १८७९ त तो अमेरिकन ॲकेडेमी फॉर द ॲडव्हान्समेंट ऑफ सायन्सचो अध्यक्ष जाल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## मॉल्टा : भूंयमध्य दर्यांतलो एक द्विपसमूह. गोझो, कामिनो, कोमिनॉट्टो आनी फिल्फला जुंवे ह्या प्रजासत्ताकांत आस्पावल्यात. क्षेत्रफळ ३१६ चौ. किमी. आसून तांचो विस्तार ३५° ४८' उत्तर ते ३६° उत्तर अक्षांश आनी १४°१०' ते १४°३५' अस्तंत रेखांश. लोकसंख्या ३,७९,५६३६ (१९९१). वॅलेट्टा हें समुहाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन** : ह्या द्विपसमुहांतलो मॉल्टा हो मुखेल जुंवो. ताचो आकार तांतयासारको आसून लांबाय २७किमी. जाल्यार रुंदाय १४किमी. वायव्येकडेन हाची उंचाय दर्याथरासावन सुमार २४०मी. इतली आसा. हो ऊंच पठारी भाग चुन्या खडीसावन तयार जाल्लो आसा. जुंव्याचो दक्षिणेकडचो भाग कमी उंचायेचो आसा. हांगा ल्हान ल्हान खूब देगणां आसात. जुंव्याची दर्यादेग मुखेलपणान फातरी आसा. गोझा हो ह्या समुहांतलो दुसरो म्हत्वाचो जुंवो. हो मॉल्टा जुंव्याचे वायव्येक सुमार ३किमी पयस आसा. ताची लांबाय १४किमी. जाल्यार रुंदाय ४.८किमी. जुंव्याची चडांत चड उंचाय सुमार १९५मी इतली आसा. जुंव्याचो उत्तरेकडचो भाग पठारी जाल्यार दक्षिण भाग सपाट वा कमी उंचायेचो आसा. कोमिनो

जुंवो मॉल्टा आनी गोझो हांच्या मदीं आसा. ह्या समुहांत व्हड न्हंयो नात.

जुंव्यावयलें हवामान मुखेलपणान भूंयमध्य सागरी प्रकाराचें आसून, थंयचें वर्सुकी सरासरी तापमान १८° सें. इतलें आसा. गिमाच्या दिसांनी तापमान ३१° से. मेरेन वाडटा, जाल्यार शिंयांच्या दिसांनी तें ९° से. मेरेन देंवता. वर्सुकी पावसाचें प्रमाण फकत ५६सेंमी. देशाचे भूंयरचणूकेंत चुनखडीचें चड प्रमाण आनी उणो पावस आशिल्ल्यान हांगा वनस्पतीचें आनी मोनजातीचें प्रमाण खूब उणें आसा.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** फिनिशियन, कार्थेजियन आनी रोमन साम्राज्यकाळांतूच ह्या जुंव्यांक म्हत्व प्राप्त जाल्लें. इ.स. ६०त पॉल नांवाचो धर्मगुरू रोमाक वता आसतना ताचें तारूं मॉल्टा जुंव्या लागसारूच फुटलें. तारवांतल्या धर्मप्रसारकांनी जुंव्यांचो आलाशिरो घेतलो. फुडल्या दोन वर्सांभितर तांणी त्या जुंव्यावयल्या लोकांक बाटोवन किरिस्तांव केले. अशे तरेन तो द्विपसमूह रोमी साम्राजाचो एक भाग जालो. इ.स. ३९५त रोमी साम्राज्याची विभागणी जाली तेन्ना हे जुंवे बायझंटीन साम्राज्याच्या ताब्यांत गेले. ८७०त अरबांनी तो आपल्या शेकातळा हाडून ताचेर फुडलीं दोनशें वर्सांवयर आपली सत्ता गाजयली. १०९०त नॉर्मंडीचो काउंट रॉजरान अरबांचो पराभव करून ते जुंवे आपल्या शेकातळा हाडले. उपरांत १५३० त रोमी सम्राट चार्ल्स पांचवो हाणें जेरुसलेमाच्या सेंट जॉनच्या धर्मप्रसारक सरदारांक हे जुंवे दिले. धर्मझुजांवेळार ह्या द्विपसमुहाचो धर्मप्रसारक सरदारांक खूब उपेग जालो. १७९८ त पयल्या नेपोलियनान हे जुंवे त्या सरदारांकडच्यान हातासले. हाका लागून मॉल्टांतल्या लोकांनी फ्रँचांआड बंड उबारलें. १८००त हे तंग स्थितीचो फायदो घेवन मॉल्टा लोकांच्या आदारान ब्रिटिशांनी फ्रँच लोकांक हारोवन हे जुंवे आपल्या शेकातळा व्हेले. १८१४ त मॉल्टाक ब्रिटीश वसाहत म्हूण दर्जो मेळ्ळो. पूण जुंव्यांची राखणे वेवस्था आनी परकीय वेव्हार मात ब्रिटिशांनी आपल्या शेकातळा दवरले. १८६९त सुएझ कॅनाल बोटींखातीर उक्तो जाल्याउपरांत ह्या जुंव्यांचें म्हत्व आनीक वाडलें. पयल्या आनी दुसऱ्या झुजांवेळार जर्मनीन ह्या जुंव्यांचेर आक्रमणां केलीं. पयल्या म्हाझुजाउपरांत थळाव्या लोकांनी ब्रिटीश सत्तेआड चळवळ उबारून पुराय स्वातंत्र्याची मागणी केली. हाका लागून १९२१त ब्रिटिशांनी मॉल्टाच्या स्वतंत्र संविधानाक मान्यताय दिली. पूण १९३६ त ती रद्द केली. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत स्वातंत्र्य चळवळीक चड नेट आयलो. हाचो परिणाम म्हळ्यार १९४७ त पयलींच्याच संविधानाक मान्यताय मेळ्ळी. पूण जुंव्याचे कांय राजकीय हक्क ब्रिटिशांनी आपल्याच शेकातळा दवरले. फुडें २१ सप्टेंबर १९६४ दिसा मॉल्टाक पुराय स्वातंत्र्य मेळ्ळें. पूण ब्रिटिशांनी मॉल्टा सरकाराकडेन कबलात करून अर्थ आनी राखणे वेवस्थेविशींचे हक्क आपल्याच शेकातळा दवरले. फुडें १९७० आनी १९७९ त दोगांयभितर कबलात जावन ब्रिटिशांनी मॉल्टांतलें आपलें सैन्य काडून घेतलें. उपरांत १९७१ ते १९८७ मेरेन देशांत सामाजिक कामगार पक्षान आपली सत्ता गाजयली.

सद्या मॉल्टाची राज्यवेवस्था १९७४ त आपणायल्ल्या संविधानाप्रमाण चलता. देशाच्या संविधानाप्रमाण थंय एक सदनी पद्दत आसून वैधानीक सत्ता ६५ वांगड्यांच्या लोकप्रतिनिधी आशिल्ल्या सभाघराकडेन आसता. संसदेंतल्या वांगड्यांक पांच वर्सांखातीर भौशिक मतदानान वेंचून काडटात. राश्ट्राध्यक्ष हो प्रजासत्ताकाचो मुखेली आसून ताका पांच वर्सांखातीर लोकप्रतिनिधी घरांतल्यान वेंचून काडटात. प्रधानमंत्री हो भौमत पक्षाचो मुखेली आसून राश्ट्राध्यक्ष ताची नेमणूक करता. उपरांत प्रधानमंत्र्याच्या सल्ल्यानूच तो हेर मंत्र्यांची नेमणूक करता. सगळी कार्यकार सत्ता मंत्रिमंडळाच्या हातांत आसता.

देशांत एक सर्वोच्च न्यायालय तशेंच दिवाणी, फौजदारी, वेपारी, पुलीस आनी बाल न्यायालयांय आसात. हांगाची न्यायवेवस्था मुखेलपणान रोमन आनी ब्रिटीश कायदेपद्दतींचेर आदारल्या.

**अर्थीक स्थिती :** अर्थीक नदरेन मॉल्टा देश आयजमेरेन खूब फाटसारिल्लो आसा. साव्या उदकाचो उणाव आनी हांगाचे मातयेंत चुनखडीचें प्रमाण चड आशिल्ल्यान लागवडीखालचें शेतवडीचें प्रमाण खूब उणें आसा. हालीं तेंपार कांय भागांत नव्या शेतकी तंत्राचो वापर करून गरजेपुरतो भाजीपालो, फळफळावळ, मको हीं पिकां काडटात. हांचेखेरीज बटाट, टमाट, द्राक्षां, कांदे, गंव, सातू आनी वेगवेगळ्या फुलांचेंय उत्पन्न काडटात. पशुपालन आनी नुस्तेमारीकूय हांगा म्हत्व आसा. देशांत व्हड उद्देगधंदे नात. आदल्या काळासावन हो नावीक तळ आशिल्ल्यान तारवां बांदप वा तीं दुरूस्त करप हो हांगाचो म्हत्वाचो परंपरागत वेवसाय. चडशे वेवसाय आयातीचेरूच आदारून आसात. यंत्रसामुग्री, कपडो, कड्डण, रसायनां, वखदां, मांस, दूद आनी दुदाचे पदार्थ हांची आयात करची पडटा. हालींच्या तेंपार कपडो विणप आनी इलेक्ट्रॉनिकी उद्देगांचेर चड भर दिवप जाता. मॉल्टीज लिरा हें देशांतलें अधिकृत चलन.

देशांत लोहमार्ग ना. पूण रस्त्यामळार खूब उदरगत जाल्या. मॉल्टा आनी गोझो जुंव्यांमदली येरादारी फेरिबोटीच्या आदारान जाता. व्हॅलेट्टा हें देशांतलें मुखेल बंदर. लुका शारांत आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** ह्या जुंव्यांवयल्या लोकांत मुखेलपणान सिसिलियन, फिनिशियन आनी कार्थेजियनांचो आस्पाव आसून तांच्यांत भरसण जाल्ली दिसून येता. हांगाच्या लोकांक 'मॉल्टीज' अशें म्हण्टात. चडशे मॉल्टीज लोक कार्थेजियन वंशाचे. इटली आनी हेर भूंयमध्य सागरी प्रदेशांतल्या लोकांचेंय प्रमाण हांगा चड. युरोपी लोकूय कांय प्रमाणांत सांपडटात. रोमन कॅथलीक हो देशाचो अधिकृत धर्म. पूण तो राश्ट्रीय धर्म न्हय.

शिक्षणीक मळार उदरगत जायत आसा. हांगा मुळावें शिक्षण सक्तीचें केलां शिक्षण चडकरून इंग्लीश माध्यमांतल्यान दितात. उच्च शिक्षण मॉल्टा विद्यापिठांतल्यान दिवप जाता. ह्या विद्यापिठांत कायदो, वैजकी, शल्यचिकित्सा, दंतवैजकी, अभियांत्रिकी, वास्तुशिल्प, शिक्षण, वेवस्थापन ह्या विशयांचें उच्च शिक्षण दिवपाची वेवस्था आसा.

इंग्लीश आनी मॉल्टीज ह्यो देशांतल्यो अधिकृत भाशा. इटालियन भाशेचो कांय प्रमाणांत उपेग जाता. पूण शिक्षणक्षेत्रांत आनी सरकारी कामांत इंग्लीश भाशेचोच वापर करतात. मॉल्टीज ही मुखेलपणान अरबी भाशेचेर आदारल्या. ती भाशा रोमी लिपींत बरयतात.

व्हॅलेट्टा, स्लिमा, बिर्किर्कार, कॉर्मी, राबात, झेटून हीं मॉल्टा जुंव्यावयलीं मुखेल शारां. जाल्यार व्हिक्टोरिया हें गोझा जुंव्यावयलें मुखेल शार. ह्या जुंव्यावयले पाडला, मिसिडा, मदीना, लुका हे गांवूय प्राचीन अवशेश आनी हेर गजालींखातीर प्रसिद्द आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## मॉसबावर, रुडोल्फ लूटव्हिख : (जल्मः ३१ जानेवारी १९२९, म्यूनिक).

नामनेचो जर्मन भौतिकशास्त्रज्ञ. ताणें म्यूनिक हांगाच्या तांत्रिक विद्यापिठांतल्यान १९५३ त पदवी, १९५५ त पदव्युत्तर पदवी आनी १९५८ त डॉक्टरेट मेळयली. १९५५-५७ ह्या काळांत ताणें हायडल्बर्ग हांगा माक्स प्लांक इन्स्टिट्युटांत संशोधन सहाय्यक आनी १९५८-६० त म्यूनिक हांगाच्या तांत्रिक विद्यापिठांत संशोधन अधिछात्र म्हूण काम केलें. १९६० त तो कॅलिफॉर्निया इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नोलॉजींत संशोधन अधिछात्र म्हूण गेलो आनी थंयच १९६१ त वडील संशोधन अधिछात्र आनी डिसेंबर १९६१ त भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक जालो. फुडें १९६४ त तो म्यूनिकच्या तांत्रिक विद्यापिठांत प्रायोगिक भौतिकशास्त्राचो प्राध्यापक जालो आनी उपरांत १९७२ त फ्रांसांतल्या ग्रनॉबल हांगाच्या इन्स्टिट्यूट माक्स फोन लौए हे संस्थेचो आनी फ्रेंच-जर्मन-ब्रिटीश उच्च अभिवाह अणुकेंद्रीय विक्रियकाचो संचालक जालो.

मॉसबावर हाणें १९५३ सावन गॅमा किरणांचें द्रव्यांतलें शोशण आनी खास करून अणुकेंद्रीय अणुस्पंदनी शोशण हांचेविशींचें म्हत्वाचें संशोधन केलें. घन स्फटिकांच्या जाळयांत आशिल्लीं कांय खाशेलीं अणुकेंद्रां गॅमा किरणांचें प्रत्यागगतीविरयत उत्सर्जन आनी शोशण करूंक शकता, अशें ताका दिसून आयलें. अशे खाशेले स्थितींत गॅमा किरणांच्या उत्सर्जकाक शोशकासापेक्ष जरी थोडो नेट दिलो, तरी किरणांचें अनुस्पंदनी शोशण नश्ट जाता. तेखातीर ताणें नीच तापमानाक आनी इरिडियम (१९१) ह्या समस्थानिकाचो उपेग केलो. फुडें लोह (५७) हो समस्थानिक चड परिणामकारक आशिल्ल्यान वापरांत आयलो. ह्या सोदाक लागून उत्सर्जक आनी शोशक अणुकेंद्रांच्या अवस्थांतलो सामको सूक्ष्म फरक मेजपाची एक प्रभावी आनी संवेदनशील पद्दत तयार जाली. ताका लागून व्यापक सापेक्षता सिध्दांतांतल्या आनी घन अवस्था भौतिकींतल्या कांय प्रस्नांची प्रयोगशाळेंतूच चांचणी करप शक्य जालें.

गॅमा किरणांच्या अनुस्पंदनी शोशणाविशींचें संशोधन आनी ताचेवरवीं ताणें ताच्याच नांवान वळखुपांत येवपी परिणामाचो लायिल्लो सोद हाचेखातीर ताका रॉबर्ट होफस्टाटर हाचेवांगडा १९६१ च्या भौतिकशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो. मॉसबावर परिणामाचो वापर रसायनशास्त्र, जीवविज्ञान, चांद्रविज्ञान ह्या फांट्यांतूय जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## मिकिर : उदेंत भारतांतली एक आदिवासी जमात. मिकिर हें नांव तांकां आसामी लोकांनी दिलां. पूण ते स्वताचो उल्लेख 'आर्लेंग' ह्या नांवानूच करतात. 'आर्लेंग' म्हळयार मनीस.

ह्या लोकांची वसती चडकरून आसाम राज्यांतल्या सिबसागर, नौगांग, कामरुप, उत्तर काचार दोंगुल्ल्यो आनी मिकिर दोंगुल्ल्यो ह्या प्रदेशांनी आसा. मेघालय, अरुणाचल प्रदेश आनी नागालँड ह्या राज्यांतूय तांची कमी प्रमाणांत वसती आसा.

मिकिर लोकांचे चिंगथाँग, रौँगहोंग आनी हमरी अशे तीन पोटभेद आसात. दर एका पोटभेदांत कांय कुळां आसात. तातुंतलीं इंगटी, तेरंग, तेरॉन, तिमंघ आनी इंघी हीं मुखेल कुळां आसात.

मिकिर लोक घरांत मिकिर बोली उलयतात आनी भायर असमिया भास उलयतात. मिकिर बोलीभाशेचें नागा गटांतले बोलीभाशेकडे सारकेंपण आसा.

गव्हाळी वर्ण, मध्यम उंचाय, सपाट आनी रुंद नाक तशेंच बळीश्ट शरीर हीं मिकिर लोकांचीं मुखेल शारिरीक खाशेलपणां आसात. हे लोक तिबेटी-बर्मन वंशाचे आसात.

मिकिर दादले, निळे वा तांबडे पटे आशिल्ल्या धव्या कपड्याचें जाकिट (चोई) आनी मोटवें पुडवें वा पंचो न्हेसतात. माथ्याक पगडी घालतात आनी शियाच्या दिसांनी शाल पांगुरतात. बायलो उत्तरीय बांदून न्हेसतात आनी घागरो (पिनी) न्हेसतात. घागऱ्याचेर नक्षीदार कमरपट्टो बांदतात. बायलांय शियाच्या दिसांनी शाल वापरतात.

बायलो हातांत कांकणां, गळयांत माळो, कानांत भांगराचीं वा रुप्याचीं कानांतलीं आनी मुदयो घालतात. दादले आनी बायलो केंस फाटल्यान वळोवन मानेचेर आंबाडो घालतात. सणा-परबेक दादले-बायलो 'भीमराज' नांवाच्या सुकण्याचीं पाखां माथ्यांत खोयतात.

मिकिर लोकांचें मुखेल अन्न शीत आनी नुस्तें आसून तांदळांचो सोरो तांकां खूब आवडटा. कुकडां, दुकरां आनी बोकडां हांचें मांस ते खातात. पान-सुपारी, विडी आनी सिगरेट हीं तांचीं कांय व्यसनां आसून ते लोक अफूय खातात.

मिकिर लोकांचे खूब देव आसात. तांच्या देवांच्यो मूर्ती वा देवळां नासतात. गृहदेवता, समृध्दिदेवता आनी व्याधिदेवता अशे देवतांचे तीन प्रकार तांणी मानल्यात. ह्या सगळ्या देवतांक ते कोंबडी वा बकरो बळी दिवन संतुश्ट करतात. अरनाम कैथे, पेंग, हेम्फी अरनाम, रेक अंगलॉंगे आनी हेर अशे तांचे देव आसात. पूण मुखेल देव पेरतार्त रिज्जे हो आसून तो घराचो स्वामी आनी क्षेत्रपती आसा. देवतांत पेंग आनी अरनाम ह्यो रागीट देवता आसात. पेंग गृहदेवता आनी अरनाम कृषिदेवता आसून पेरतार्ताक वर्सांतल्यान एकदां बळी दितात. उत्सव हो व्हड आसता. तांचेर हिंदू धर्माचो प्रभाव आसा. भुतां-खेतांक लागून वा कोणेय मनशान चेटूक केल्यार दुयेंस जाता असो ह्या लोकांचो समज आसा. तेखातीर ते मांत्रिकाक आपयतात. पूण तांकां पुरोयताची गरज लागना.

ज्या दोंगरार ते रावतात, थंयच्या देवांकूय ते बळी दितात. तेन्ना ते स्वताच मंत्र म्हण्टात.

पेरणेचो हंगाम आनी नवें पीक येतकच गांवांत व्हड उत्सव जाता. तेन्ना बळी दिवन सामुदायिक जेवण जाता.

मिकिर लोकांचीं घरां व्हड आसून कुटुंबांतले सगळे लोक एकठांय रावतात. जमनींत खांबे पुरून तांचेर ते घरां बांदतात. घरांच्यो वण्टी कोंड्यांच्या कामींच्यो आसून तांचें पांखे तणाचें आसता. घरांत चडपाखातीर खांची घाल्ले फळयेचो निसणीभशेन उपेग करतात. घराचे सकयल दुकरां, बोकडां, कुकडां पोसतात.

चलो-चली वयांत येतकच तांचें लग्न करतात. चल्याक एकाद्रें चली मानवल्यार ताचे आवय-बापूय चलयेक मागणी घालतात. आते-मामे भावंडांक पयलीं प्राधान्य दितात. एकाच कुळांत लग्नां जायनात. लग्नाचो विधी सादो आसता. चलयेक मुदी वा कांकणां दितात. तिणें तीं घेतलीं जाल्यार तिका हो लग्नसंबंद मान्य आसा अशें समजतात. लग्नाचो दीस थरयतात. कोंब्याचो बळी आनी सोरो पियेवप हाका लग्नांत चड म्हत्व दितात. कोंबो बळी दिवन एक रात आनी दीस जातकच घोवा-बायलेचें नातें तयार जाता. लग्नसुवाळो व्हंकलेगेर करतात. न्हवऱ्याचे संमतीन व्हंकल शय्या तयार करता आनी लग्नसुवाळो सोंपता. तांच्यांत देज दिवपाची चाल ना. व्हंकल आवय-बापायची एकटीच आसल्यार ती घोवाघरा वचना. न्हवरोच तांगेर रावपाक येता. सादारणपणान मिकिर दादलो एकूच बायल करता. पूण कांय गिरेस्त दादले एकापरस चड बायलो करतात. हे जमातींत घटस्फोटाक मान्यता आसा. पूण ताचें प्रमाण खुबूच कमी आसा.

मिकिर जमातींत बापायची आस्पत पुतांक मेळटा. बायलेक वा धुवांक मेळना. पूण लागींच्या दादल्या सोयऱ्यांक मेळटा.

हे लोक मडें लासतात. ल्हान भुरगीं वा रोग जावन मेल्ल्यांक पुरतात. ह्या लोकांचो अंत्यविधी खूब खर्चाचो आसता. बायलेचे सगळे विधी (मरण लेगीत) बायल पुजारीण करता आनी दादल्याचे विधी दादलो पुजारी करता. मरणावेळार गांवांतले आनी भोंवतणचे लोक एकठांय येतात. तरनाटे चले-चलयो धोलाचे साथीर सोरो पियेवन नाच करतात. दुसऱ्या दिसा मेल्ल्या मनशाचे सोयरे अस्थी एकठांय करून पुरतात. उपरांत थडग्याचेर मेल्ल्याखातीर थोडें अन्न दवरतात.

शेतकाम हो तांचो मुखेल उद्देग. ते झूम पद्दतीन शेती करतात. भात हें तांचें मुखेल पीक आसून मको, कापूस, एरंड हींय पिकां ते काडटात. मिकिर लोक स्वता भांगराचे, रुप्याचे अलंकार तयार करतात.

मिकिर लोक स्वभावान थंड आसतात. सपाटीवयल्या प्रदेशांत रावपी मिकिर लोक आसामी लोकांभशेन दिसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मिझो :** आसामांतली एक पहाडी आदिवासी जमात. मिझो म्हळ्यार दोंगराळ वाठारांत रावपी मनीस. 'मि' म्हळ्यार मनीस आनी 'झो' म्हळ्यार पहाडी प्रदेश. पयलीं तांकां लुशाई ह्या नांवान वळखताले. पूण लुशाई हो तांच्यांतलो एक पोटभेद आसा. मिझो लोकांचे खूब पोटभेद आसात. तातुंतले लुशाई, राल्टे, हमार आनी पोई हे मुखेल आसात.

मिझो लोकांची चड वसती ईशान्य भारतांतल्या मिझोराम ह्या राज्यांतल्या ऐजाल ह्या शारांत आसा. तेचप्रमाण ह्या शाराच्या भोंवतणच्या रानांनी आनी नागालँड, आसाम, मणिपूर हांगाय मिझो लोक आसात. हे लोक मंगोल वंशाचे आसून ब्रह्मदेशांतल्या चीन, नांवाच्या दोंगरी वाठारांतल्यान भारतांत आयले, अशें कांय विद्वानांचें मत आसा.

मिझो लोकांच्यो विंगड विंगड बोलीभाशा आसात. पूण तांच्यांत खूब कमी फरक आसा. लुशेई लोक उलयतात, ती मिझो (दुल्हिअन) भास सगळ्या मिझो लोकांची अधिकृत आवयभास अशी मानल्या. ती रोमन लिपींत बरयतात.

दोंगरार, उदक लागीं आशिल्ले सुवातीर मिझो लोक घर बांदतात. जमनींत खांबे पुरून बांदिल्ल्या ह्या चवकोनी घरांत फकत एकूच व्हड कूड आसता. त्या प्रदेशांत परतून परतून जावपी चक्री वादळांक लागून ते घट्ट, भक्कम अशीं घरां बांदतात. घराचो सांगाडो लांकडी खांब्याचो आसून, कोंड्यांच्यो वण्टी, पांखें तणाचें वा पानांचें, जमीन कोंड्यांचे शेंदरेची आसता. दर एका घराक गच्ची आसता. थंय कुकडांचो घूड आनी घरांतलीं आयुधां तशेंच शिकारेंत मारिल्ल्या जनावरांचीं मुंडकीं लायतात. घराचे सकयले सुवातेंत गोरवां आनी दुकरां पोसतात. घराभोंवतणी भाजीपालो रोयतात.

मिझो लोकांचे कपडे लोकर, सुती आनी झाडाच्या, सालींच्या तंतूंपसून तयार केल्ले आसतात. घरच्या हातमागाचेर ते कपडे विणटात. दादले सात फूट लांब आनी पांच फूट रूंद असो कपडो खांदावयल्यान घेवन

आंगाक गुठलायतात. शिंयाच्या दिसांनी ते आनीक एक कपडो गुठलायतात. शिंयांक लागून वा शेतांत काम करतना ते धवो लांब हातांचो कोट घालतात. बायलोय आंगाक एक वस्त्र गुठलायतात आनी कमरेपसून धोंपरांमेरेन घागरो न्हेसतात. कमरेक दोरी वा पितुळचो पटो बांदतात. आंगांत पोलको घालतात. वतांत वा पावसांत ते माथ्याक चेपें घालतात. तें चेपें कोंड्यांच्या कापट्यांनी विणून भितल्ल्यान ताका पानां लायतात. पावसांत बायलो माथ्यार कंडो घेतात.

बायलो आनी दादले गळयांत नकली खड्यांच्यो माळो घालतात. दादले कानांत ल्हान लाकडी वाटकुळो वा हळदुवो स्फटिकमणी घालतात. बायलो पयलीं कानांत लाकडाचे वाटकुळे कुडके घालतात, उपरांत व्हड आकाराचे मातयेचे कुडके आनी ताचेउपरांत हस्तिदंती चकती लायिल्लें वलय घालतात. बायलो हातांत कांकणां घालीनात. त्यो लांब केंस वाडयतात.

शीत, भाजयो, नुस्तें आनी मांस हें तांचें मुखेल अन्न. तांदळांपसून तयार केल्लो सोरो ते आवडीन पितात.

पयलींच्या काळांत मिझो लोक भुताखेतांची पुजा करताले. बरें भूत आनी वायट भूत ह्या दोन प्रकारांतल्या सर्वोच्च भुताक ते 'पथिअन' अशें म्हण्टात. कोणूय दुयेंत जातकच पुरोयताकडल्यान भुतांक कोंबो, बोकड वा दुकर बळी दितात. चडशा मिझो लोकांनी आतां किरिस्तांव धर्म आपणायिल्ल्यान तांचे आदलो संदर्भ आतां बदलला.

चले-चलयो आपलो जोडीदार स्वताच सोदतात. देज दिवपाची चाल तांच्यांत आसा. देजाचे रकमेंतलो कांय वांटो व्हंकलेचो बापूय आपल्या सोयऱ्यांक दिता. आपले चलयेचेर केन्नाय संकट आयलें जाल्यार तांणी तिका आदार दिवंचो अशी ताची अपेक्षा आसता. देज थारायतकच म्हूर्त काडटात.

लग्नाच्या दिसा लोक पदां म्हण्टात, सोरो पितात. उपरांत जेवणावळ जाता. व्हंकल दनपरां आपल्या इश्टीणींवांगडा न्हवऱ्यागेर वता आनी परत येता. मागीर न्हवऱ्यागेर सासणाची रावपाक वता. एकापरस चड बायलो करपाचीय चाल ह्या लोकांत आसा. आस्पतीचो वारसाहक्क धाकट्या पुताक मेळटा. व्हडले पूत कर्तेसवरते जावन आपल्या संसाराक लागिल्ल्यान धाकटो पूत आवयबापायक बरेतरेन पळोवंक शकतलो, अशी तांची भावना आसता.

'हांव तुकां घटस्फोट दिता' अशें म्हण्टकच न्हवऱ्याक घटस्फोट मेळटा. तशेंच देजाची रक्कम न्हवऱ्याक परत केल्यार बायलेकूय घटस्फोट मेळटा. घोव मरतकच बायलेन तीन म्हयने तागेर रावंक जाय असो नेम आसा. उपरांत 'थ्लाहुअल' नांवाचो एक विधी करतकच तिका दुसरें लग्न करपाक मेळटा.

गांव-मुखेल्याचो व्हडलो चलो मात ताचे आस्पतीचो वारसदार जाता. कारण गांव मुखेल्याच्यो समाजीक जापसालदारक्यो मुखेल्या फाटल्यान ताच्या व्हडल्या पुताक पळोवंच्यो पडटात.

हे लोक मडें पुरतात. तीन म्हयनेमेरेन मेल्ल्या मनशाच्या घरांतले लोक जेवणावेळार एक पान सोडटात वा घराच्या दारांत थोडें अन्न वाडून दवरतात. तीन म्हयन्यांउपरांत ताच्या घरचे लोक 'तिथिन' नांवाचो एक विधी करतात. तशें करतकच मृतात्मो परलोकांत गेलो अशें मानतात. पूण हालीं किरिस्तांव धर्म आपणायिल्ल्यान ह्यो चाली थोड्यो कमी जाल्यात.

ह्या लोकांचो मुखेल उद्येग शेत. ते झूम पद्दतीन शेती करतात. तांदूळ हें तांचें मुखेल पीक. शिकार करप, नुस्तें धरप हेय उद्देग ते करतात. तशेंच कोंड्यांचे ल्हान-व्हड सोबीत खोंटले करप, वजीं व्हरप हींय कामां ते करतात. बायलो घरांत वापरांत येवपी मातयेचीं आयदनां स्वताच तयार करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मिझोराम :** भारतांतलें विसावें राज्य. क्षेत्रफळ २१, ०८७ चौ. किमी. विस्तार-२२° ते २४°१९' उत्तर अक्षांश आनी ९२° १६' ते ९३° २६' उदेंत रेखांश. ह्या प्रदेशाच्या मदल्यान कर्कवृत्त वता. लोकसंख्याः ६,८६,२१७ (१९९१). ईशान्य भारतांतल्या ह्या प्रदेशाचे अस्तंतेक बांगला देश आनी भारतांतलें त्रिपुरा राज्य, उत्तरेक आसाम (काचार जिल्हो) आनी मणिपूर राज्य जाल्यार उदेंतेक आनी दक्षिणेक ब्रह्मदेश आसून, ऐजाल ही ह्या प्रदेशाची राजधानी आसा.

**भूंयवर्णन :** मिझोराम हो दोंगुल्ल्यांचो प्रदेश म्हूण प्रसिध्द आसा. कितल्योशोच दोंगरावळी एकामेकांक समांतर अशो उत्तर-दक्षिण पातळिल्ल्यो आसात. न्हंयांच्या खननाक लागून ह्या दोंगुल्ल्यांनी कितलींशींच खोल देगणां तयार जाल्यांत. दोंगुल्ल्यां मजगतीं ल्हान ल्हान मळां आसून तातुंतले सुपीक मातयेंत भाताचें पीक व्हडा प्रमाणांत घेतात. मिझोरामच्या मदल्यान उत्तर दक्षिण मिझो दोंगुल्ल्यो पातळ्ळयात. ह्या खर देंवतेच्या दोंगुल्ल्यांची सरासरी उंचाय सुमार ९०० मी. आसून ती मदीं चड आसा. दक्षिण भागांतलें ब्लू मौंटन (फ्वंगपुरी) हें ह्या दोंगुल्ल्यांतलें सगळयांत ऊंच (२,१६५मी.) तेमक आसा. मिझोरामच्या उदेंत आनी दक्षिण शिमेर चिन दोंगुल्ल्यो आनी ब्रह्मदेशांतल्या आराकान दोंगरावळीचो भाग आसून अस्तंत शिमेर बांगला देशांतली चितगॉंग दोंगरावळ आसा.

मिझोरामच्या दोंगराळ भुंयेंतल्यान कितलेशेच ल्हान व्हड न्हंयेचे लोट व्हांवत आसतना दिसतात. ढालेश्वरी, सोनई आनी तुइव्हावल ह्यो न्हंयो मध्यवर्ती दोंगराळ वाठारांत उगम पावन उत्तरेक व्हांवत वचून आसामच्या काचार जिल्ह्यांत बऱाक न्हंयेक मेळटात, तर कर्णफुली ही न्हंय प्रदेशाच्या दक्षिण तोंकासावन उत्तरेक सादारण मध्यभागामेरेन व्हांवत वता आनी थंयसावन फुडें ती अस्तंतेक बांगला देशांत प्रवेश करता. थंयच तिचेर व्हड

उदका विद्युत् प्रकल्प उबारला. कलदन ही न्हंय ब्रह्मदेशांतल्यान मिझोरामांत व्हांवत वता. द्रोणी वाठारांत कितलींशींच सरोवरांय निर्माण जाल्लीं आसात. दक्षिण वाठारांतले पालक हें सगळ्यांत व्हड सरोवर आसून ताम्‌डिल, रुंग्‌डिल हीं सरोवरांय म्हत्वाचीं आसात.

**हवामान :** हांगाचें हवामान बरें आसता. हांगाचो शिंयाळो आनी गीम सौम्य आसता. शिंयांतलें तापमान ११° से. ते २४° से. तर गिमांतलें तापमान १८° से. ते २९° से. हांचे मजगतीं आसता. खोलगट वाठारांतलें वा देगणांतलें हवामान उश्ण आनी दमट आसता. पूण त्या मानान दोंगरावयलें हवामान वर्सुयभर थंड आसता. भौतेक करून ह्याच कारणाक लागून मिझो लोकांनी आपल्यो वसणुको दोंगरा माथ्यार व्हेल्यात आसुंये. ह्या वाठारांत मार्च ते एप्रिल ह्या काळांत वायव्येकडल्यान नेटान वारें व्हांवता. मे ते




सप्टेंबर ह्या काळांत नैर्ऋत्य मोसमी वाऱ्यासावन उटंगाराचो पावस पडटा. ह्या वाठारांतलें पावसाचें वर्सुकी प्रमाण २५४ सेंमी. आसून उत्तरेकडल्या वाठारापरस दक्षिणेकडल्या वाठारांत पावसाचें प्रमाण चड आसा. शिंयाळ्यांत पावस पडना, तशेंच मळब नितळ आसता. निळें मळब आनी फांतोडेर पडपी धुकें हांकां लागून दोंगराळ वाठारांतली शिंयाळ्यांतली सोबीतकाय ओडलायणी थरता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** हांगा वेगवेगळे तरेचीं झाडां, झिली झोपां आनी तण तशेंच कोंड्याचीं रानां दिसून येतात. दोंगराळ वाठारांतल्यो दोंगुल्ल्यो सदांच पांचव्योचार दिसतात. पाइन वनस्पतींची लागवड व्हडा प्रमाणांत करतात. व्हडा प्रमाणांत शिकार जाता आशिल्ल्यान हांगाच्या जनावरांचें आनी सुकण्यांचें प्रमाण खूब उणें जालां. हत्ती, वाग, वांस्वेल, रानवटी सुणे, बोकडां, वेगवेगळे तरेचीं माकडां, रानगवे, हरणां, रानदुकर हीं जनावरां हांगा सांपडटात. रानवटी फाउल, धनेश, फेझंट, होले हीं सुकणीं ह्या प्रदेशांत सगळ्याक दिसतात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** मिझोरामांत खास करून मिझो जमातीचे लोक दिसून येतात. मूळ मंगोल वंशाचे हे लोक पुर्विल्ल्या काळांत ब्रह्मदेशाच्या शान प्रांतांत स्थायिक जाले. तांच्यांतल्यो लुशाई आनी हमार ह्यो दोन टोळयो पयले खेप भारतांत आयल्यो आनी तांणी लुशाई दोंगुल्ल्यांच्या वाठारांत वसणूक केली. ब्रिटिशांचे राजवटींत हे लोक परत परत घुरयो घालताले. हो उपद्रव थांबोवपाखातीर ब्रिटीश सैन्यान मिझो प्रदेशांत प्रवेश केलो आनी १९९१ त तो प्रदेश ब्रिटीश हिंदुस्थानांत आस्पावलो. लुशाई हिन्स डिस्ट्रीक्ट ह्या नांवान आसामचो तो एक भाग जालो.

स्वतंत्र भारतांत सुरवेक आसामचो एक जिल्हो म्हणुनूच हो भाग उरलो. मिझो लोकांचे उदरगतीकडे तेन्नाच्या प्रांतीक सरकारान फाव तें लक्ष न दिल्ल्यान ह्या लोकांमदीं असंतोश वाडत गेलो. तातूंतच १९५९त दुकळ पडलो. १९६६ त 'मिझो नॅशनल फ्रंट' हे संघटनेवरवीं सशस्त्र उठाव केलो. भारतीय सैनिकांचे मदतीन हो उठाव मोडून काडलो. मिझो बंडखोरी आळाबंदा हाडपाखातीर कांय उपाय केले. ह्या भागांत रातीकडेन संचारबंदी आसताली. हे यंत्रणेंत शेतकामाकडेन फाव तें लक्ष दिवपाक मिझो लोकांक वेळ मेळनाशिल्लो. सुविधाय उण्यो आशिल्ल्यो. वसणुकांनी बुरशेंपण वाडलें आनी लोकांमदीं असंतोश वाडत गेलो.

मिझोराम हो १९७२ त केंद्रशासित प्रदेश जालो. तरीकूय मिझो बंडखोरी चालूच आशिल्ली. ८ सप्टेंबर १९७४ त 'अशांत प्रदेश' म्हूण हो प्रदेश जाहीर जालो. तेचप्रमाण हिंसाचार, हल्ले, उठाव हांकां आळाबंद हाडपाखातीर नागरी प्रशासनाक सैनिकी मदतीची पुरवण करपाखातीर आशिल्लो कायदोय ह्या प्रदेशांत लागू केलो. लालडेंगा आनी हेर मिझो फुडारी हांगाच्या राजकीय आंदोलनाचें फुडारपण करतात. ह्या वाठारांत मिझो नॅशनल फ्रंटच्या अस्तित्वाक लागून राजकीय अस्थिरताय तिगून आसा. हिंसाचार, लुटालूट हांकां लागून हांगाची जीण विस्कळीत जाल्या. चकमा आनी मिझो ह्या दोन जमातींमदीं संघर्श चालू आसा. भारताचे ईशान्य शिमेवयल्या ह्या म्हत्वाच्या वाठारांत राजकीय थिरताय आनी शांतताय प्रस्थापित करपाखातीर केंद्र सरकारावरवीं यत्न चालू आसात. २० फेब्रुवारी १९८७ ह्या दिसा मिझोरामाक घटक राज्याचो दर्जो फावो जालो.

**अर्थीक स्थिती :** मिझोरामांतले चडशे लोक सुशिक्षित आनी प्रगत आसले तरी सैमीक संकश्टां आनी आडमेळीं हांकां लागून अर्थीक उदरगत घडोवन हाडपाचें व्हडलें आव्हान तांचेमुखार आसा. दोंगराळ प्रदेश आशिल्ल्यान थंयचे सैमीक साधनसंपत्तीचो सोद लावप शक्य जावंक ना. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत ह्या प्रदेशाचे अर्थीक उदरगतीच्यो कितल्योशोच येवजण्यो

आंखल्यो. १९५९ त पडिल्ल्या भिरांकूळ दुकळाक लागून जाल्लें नुकसान भरून काडपाखातीर १९६३ सावन नवें धोरण चालीक लावन तेप्रमाण ह्या प्रदेशाचे णव विभाग केल्यात. शेतवड, शिक्षण, दळणवळण आनी लोकांची भलायकी ह्या सगळ्याच मळांचेर उदरगत जायत आसा. हांगाच्या लोकांचो शेतकाम हो मुखेल वेवसाय आसून चडशा वाठारांत 'झूम' वा धुंवपी शेत पिकावळ करतात. सुमार ८७% लोक शेतकामांत गुंतल्यात. झूम शेतजमनी वैयक्तिक मालकीच्यो नासून गांवठाणाच्या मालकीच्यो आसात. दोंगरा देंवतेवयल्या शेतांत मको आनी भात हीं पिकां घेतात. तेखेरीज कड्डणां, कापूस, तंबाकू, च्या आनी उदका शिंपणावळीची तजवीज आशिल्ल्या वाठारांत ऊंस, मिरसांग, आलें, हळद, बटाट, केळीं, अनसां, संत्रीं, तीळ, कागदी, लिंबू हीं पिकांय घेतात. काफी, रबर, काजू, वेलची हांची लागवड करपाचे यत्न चालू आसात. आलें आनी तीळ हांच्या उत्पादनांतूय प्रगती दिसून येता. मिझोरामांतलो ३२% वाठार रानांनी व्यापिल्लो आसून तातुंतली १५,९३५ चौ. किमी. सुवात राखीव रानांखाला आसा. डांपा रानवटी मोनजात अभयारण्याखाल ५७२ चौ. किमी. आनी तावी रानवटी मोनजात अभयारण्याखाल २१० चौ. किमी. क्षेत्र आसा.

ह्या राज्यांत व्हडलेशे उद्येगधंदे नात. चडशे लोक परंपरिक कुटिरोद्योग करतात. तातूंत हातमाग आनी हस्तवेवसाय हांचो आस्पाव जाता. हांगाचे कुरपणे आनी चेपीं फामाद आसात. ह्या उद्येगांभायर रेशीम उत्पादन, भाताच्यो गिरणी, छापखाने, रेडिओ दुरुस्ती, फळांचेर प्रक्रिया करून तीं डबाबंद करप, आल्याचो उपेग करून पेयां तयार करप, शाबू, विटो तयार करप हे वेवसाय चलतात. ह्या प्रदेशांत वट्ट ५० डीझेल विद्युत् शक्ती निर्मिती केंद्रां आसून तांचेपसून निर्माण जावपी वीज थळाव्या घरगुती वापराखातीर उपेगी पडटा.

बेगीन आनी सोंपेपणान येरादारी करप हो हांगाचो सगळ्यांत मुखेल प्रस्न आसा. ऐजाल, सिल्यर, लुंगलेई, चांफाई, व्हेर्व्हेंक, फाइलांग, डेमग्री, सैहा ह्या गांवांमजगतीं मोटाररस्ते आसात.

**लोक आनी समाजजीण :** मिझोरामांतले ९४.२०% लोक हे आदिवासी जमातीचे आसात. मिझो जमातींत किल्योशोच उपशाखा आसात आनी तांचीं मूळ स्थानां मणिपूर, त्रिपुरा, ब्रह्मदेश, बांगलादेश हांचेसारकील्या हेर वाठारांतूय दिसून येतात. चकमा आनी टायप्रस ह्यो हेर म्हत्वाच्यो जमाती आसात. लुशाई हे मिझोंचे मुखेल उपशाखेंत साक्षरतेचें प्रमाण ८६% आसा. ख्रिस्ती मिशनऱ्यांनी केल्ल्या कार्याक लागून हातूंतल्या चडशा लोकांनी किरिस्तांव धर्म आपणायलो. कितलेशेच लोक प्रॉटेस्टंट पंथीय आसात. मिझो आनी इंग्लीश ह्या दोनूय भासांचो उपेग हे लोक करतात. मिझो भाशेखातीर ते रोमन लिपीचो वापर करतात. चकमा जातीचे लोक अजूनय बौध्द धर्मीय आसात आनी बंगाली भास उलयतात.

मिझोरामांत सगळे तरेच्यो शाळा, महाविद्यालयां, एक विद्यापीठ, एक तंत्रविद्या- निकेतन आनी शिक्षणशास्त्र संस्था आसात. शालेय शिक्षणाखातीर १९७७त स्वतंत्र मंडळाची स्थापणूक केली. ह्या राज्यांतलें सरासरी साक्षरतेचें प्रमाण ५९% आसा.

**म्हत्वाचीं थळां :** ऐजाल हें राजधानीचें ठिकाण राज्याच्या मदेगाक आसून वेपारी केंद्र आनी थंड हवामानाखातीर प्रसिद्द आसा. कोंड्यांच्या आनी कापसाच्या उत्पादनाखातीर हांगाचो वाठार फामाद आसा. ऐजालचे दक्षिणेक सुमार ९३ किमी. अंतराचेर आशिल्लें लुंगलेई हें कोंड्यांचें रान, तांदूळ आनी कापूस उत्पादनाखातीर म्हत्वाचें आसा. तेखेरीज मिझोरामांत कोलोसिब, चांफाई, सैदा, सेर्चिप, हीं हेर शारां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## मिठाचो सत्याग्रह

**मिठाचो सत्याग्रह :** भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींतलें महात्मा गांधीच्या फुडारपणाखालचें सगळ्यांत व्हडलें आनी दीर्घकाळ चलील्लें लोकांचें आंदोलन (१९३०-३४). १९२९ चे अखेरेक भरिल्ल्या कॉंग्रेसच्या इतिहासीक लाहोर अधिवेशनांत जवाहरलाल नेहरूच्या येजमानपणाखाल पुराय स्वराज्याचो थाराव मंजूर जालो. २६ जानेवारी १९३० दिसा पयल्या स्वातंत्र्यदिसा निमतान आगामी सत्याग्रहाविशीं सगळ्यांनी फुडलेप्रमाण सोपूत घेतलो- "विदेशी शेकातळा रावन भिकारडें, अपमानाचें जिवित जियेवप, हो गुन्यांव आसा. हिंसेच्या मार्गान स्वातंत्र्य मेळोवंक जायना म्हूण आमी अहिंसा पाळूया. गरज पडल्यार सगळे करबंदीसयत सगळे तरेच्या सत्याग्रहाखातीर आमी तयार आसात. कॉंग्रेसीकडल्यान येवपी आदेश आमी पाळटले."

उपरांत गांधीजीन सरकाराक फुडल्यो इकरा मागण्यो धाडल्यो; १) पुराय सोरोबंदी, २) भारतीय रुपयाचो स्टर्लिंग पौंडाकडेन आशिल्लो विनिमय दर उणो करप, ३) जमीन महसूल अर्दान उणो करप, ४) मिठाचो दर रद्द करप, ५) सैनिकी खर्च सुरवेक अर्दांत उणो करप, ६) सरकारी उत्पन्नांत आयिल्ल्या उणावाक लागून उच्च शासकीय सेवेंतलें वेतन अर्द्यापरस उणें करप, ७) आयात कापडाचेर संरक्षक जकात दवरप, ८) दर्यादिग येरादारी संरक्षण अधिनेम संमत करप, ९) खुनासारके आरोप नाशिल्ल्या हेर राजकीय कैद्यांची मुक्तता, सगळे राजकीय खटले फाटल्यान घेवप, १०) गुन्यांव अन्वेशण विभाग वा ताचें सार्वत्रिक नियंत्रण रद्द करप ,११) फाव त्या नियंत्रणासकयल स्वताचे राखणेखातीर शस्त्र बाळगुपाक परवानगी दिवप. ह्यो इकरा मागण्यो मान्य केल्यो जाल्यार आंदोलन करचेनात, अशें गांधीजीन सरकाराक कळयलें.

मिठावयलो कर गरीब भारतीयांक परवडनाशिल्लो. ह्या मागण्यांवरवीं गांधीजीन तळागाळांतल्या लोकांक स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेवंचेली प्रेरणा दिली. १२ मार्च १९३० दिसा साबरमती आश्रमांतल्यान दांडीयात्रा भायर सरली. गांधीजी आनी तांचे ७८ वांगडी एकसारके २५ दीस पदयात्रा करून ५ एप्रिल १९३० दिसा गुजरातांतल्या 'दांडी' ह्या दर्यादिगेवयल्या

एका गांवांत पावले आनी थंय तांणी मिठाचो कायदो भंग करून मीठ तयार केलें. हे पदयात्रेक 'दांडीयात्रा' अशें म्हण्टात. हे पदयात्रेचे वाटेर शेंकड्यांनी लोकांनी सत्याग्रहाचो सोपूत घेतलो. गांधीजीक अटक जायनाफुडें देशभर प्रतिक्रिया जाल्यो. व्हडल्यो मिरवणुको, फारपेट हांणी देश हादरून गेलो. सत्याग्रही मोर्चे, विदेशी कपड्यांची होळी, सोऱ्याच्या दुकानांमुखार निदर्शनां, जंगल सत्याग्रह, मुंबय आनी सोलापूराक हरताळ आनी कामगारांचे संप हें ह्या आंदोलनाचें स्वरूप जालें. ह्या सत्याग्रहाचें दुसरें खाशेंलपण म्हळ्यार सरहद्द गांधी आनी म्हत्वाच्या राश्ट्रीय मुसलमान फुडाऱ्यांनी हजारांनी मुसलमानांक स्वातंत्र्य आंदोलनांत हाडले. २३ एप्रिल दिसा खान अब्दुल गफारखान हांच्या फुडारपणाखाल खुदाई खिदमतगार आनी नवजवान सभा ह्या संघटनांच्या फुडाऱ्यांक धरतकच सबंद पेशावर ब्रिटीश सरकाराआड उबें रावलें.

१० मे सावन सरदार वल्लभभाई पटेलान बारडोली सावन साराबंदी आंदोलन सुरू केलें. हें आंदोलन बिहारांतूय पातळ्ळें. कितल्याशाच सरकारी सेवकांनी राजीनामे दिले. ब्रिटीश कपड्यांचेर बहिश्कार घालपांत यश आयलें. मध्य प्रांतांत व्हडा प्रमाणाचेर जंगल सत्याग्रह जालो. बंगालचे संथाळ हे आदिवासी जमातीन बालाघाट जिल्ह्यांत साराबंदी आंदोलन केलें.

फेब्रुवारी १९३१ मेरेन ९० हजारांवयर सत्याग्रहींक ख्यास्ती जाल्यो. देशभर फारपेट आनी लाठीहल्ल्याच्यो घडणुको घडिल्ल्यो. हे चळवळीचो परिणाम गांधी-आयर्विन कबलातींत जालो (५ मार्च १९३१). हे कबलातीप्रमाण चळवळ फाटीं घेतली. पूण कायद्यांत बदल करप शक्य जावंचेंना, अशें ब्रिटीश शासनान जाहीर केलें. पूण जो गरीब दर्यादिगेर रावता, ताका फकत स्वताच्या उपेगाखातीर मीठ एकठांय करपाक मेकळीक मेळ्ळी. उपरांत, गांधीजी गोलमेज परिशदेखातीर लंडनाक गेलो.

त्याच म्हयन्यांत तेन्नाच्या संयुक्त प्रांतांत नेहरूच्या फुडारपणाखाल शेतकार आंदोलन जालें. थंयची साराबंदी चळवळ खेड्याखेड्यांतल्यान पातळ्ळी. क्रांतीवीरांचो बंदोबस्त करपाच्या नांवाखाल बंगालांत फौजदारी कायदो सुदारणा अधिनेम जारी केलो. ताका लागून गांधीजी परततकच १९ जानेवारी १९३१ सावन सत्याग्रह आंदोलनाचें दुसरें पर्व सुरू जालें. तें सुमार देड वर्स चललें. ह्या काळांत पयल्या पर्वापरसूय चड म्हळ्यार एक लाखापरस चड सत्याग्रहींक ख्यास्ती जाल्यो. निमाणे एप्रिल १९३४ त हें म्हान आंदोलन गांधीजीन अधिकृतपणान फाटीं घेतलें.

- कों. वि. सं. मं.

**मिथिला :** नेपाळांतलें एक तीर्थक्षेत्र. सद्याक जाका जनकपूर म्हण्टात तीच पयलींची मिथिला नगरी. तिका तीर भुक्ती, विदेह वा विदेहनगर अशींय नांवां आसात. कांय विद्वानांच्या मतान मिथिला हो शब्द मिथ म्हळ्यार युग्म हाचेवयल्यान आयला. हे उत्पत्तीक इतिहास प्रमाण आसा तें अशें- नाभाग वंशाच्या विशाल नांवाच्या राजान आपल्याच नांवावयल्यान वैशाली नांवाचे नगरीची स्थापणूक केली. पूण कांय काळाउपरांत विदेहाच्या राजांनी वैशाली जिकून तिचो आपल्या राज्यांत आस्पाव केलो. उपरांत त्या दोनूय देशांची मेळून मिथिला ही राजधानी जाली.

मिथिला नगरी सुंदर, सोबीत आनी चार महादारांची आशिल्ली अशें वर्णन रामायणांत आसा. तशेंच मिथिलेंतले लोक निरोगी आनी आनंदी वृत्तीचे आसून ते कितलेशोच परबो-सुवाळे मनयताले अशें महाभारतांत म्हळां.

मिथिलेच्या राजवंशांत जनकाक व्हड मान आसा. तो अध्यात्मदर्शनांत फिशाल आशिल्लो आनी आत्मअनुभवीय आशिल्लो. इतिहास, व्याकरण, न्याय ह्या शास्त्रांत निपुण आशिल्ल्या पंडितांक ताणें राजाश्रय दिल्लो.

बौध्द आनी जैन धर्माच्या इतिहासांतूय मिथिलेक सुवात आसा. बुध्द हे नगरींत कांय खेपे आयिल्लो. हांगाच्या मरवादेवाच्या आंब्यावनांत राविल्लेकडेन बुध्दान ब्रह्मान नांवाच्या एका आचार्याक धर्माची दीक्षा दिल्ली. वर्धमान महावीरलेगीत मिथिलेंत येतालो. उग्रतारा ही बौध्द तंत्रांतली एक म्हत्वाची देवता आसा. भारतांतूय तिचें एक देवूळ मिथिलेंतूंच आसा. ही मूर्त चीनांतल्यान तिबेटच्या मार्गान हाडून मिथिलेंत तिची स्थापणूक केली. मिथिलेची विद्यापरंपरा गौतम रहूगणासावन सुरू जाता. तो सूक्तद्रष्टो आनी महाज्ञानी आशिल्लो. मीमांसा, सांख्य, नाय, ज्योतिश, आगम, व्याकरण ह्या शास्त्रांतले प्रकांड पंडित मिथिलेंत गाजले. भारताच्या उदेंत वाठारांत पंडिती परंपरेखातीर मिथिलेक पयलो मान दिवंचो पडटा.

मिथिला हें जायत्या कलांचें कुळार आसा. हांगा कपडे रंगोवप, आयदनां तयार करप, मेस्तकाम, लाखेचीं कांकणां तयार करप, कोंड्याचीं कामां, बावल्यो करप, रंग तयार करप हे वेवसाय चलतात. हांगाच्यो बायलो पुर्विल्ल्या काळासावन, तलम सूत काडून ताचो कपडो करपाक कुशळ आशिल्ल्यो. हांगा खुबशा तरांच्यो पगड्यो करतात. वण्टीचित्रांचे कलेचीय हांगा परंपरा आसा. हांगा 'श्यामचकेवा' नांवाच्या पन्नास खेळण्यांचो संच मेळटा. हो खेळ कार्तिक म्हयन्यांत खेळटात. 'कन्यापुतर' नांवाची एक खाशेली बावली हांगा मेळटा.

शिवधोणू मोडून रामान सीता मेळयली ती मिथिलेंतूच. बुंदेलखंडाचे राणयेन बांदिल्लें सोबीत जानकीमंदिर हांगा आसा. ह्या देवळाचे भोंवतणी जनक, राम, लक्ष्मण, हनुमान, हांचीं देवळां आसात. लागसारूच एक तळें आसा. हांगा रामनमीक व्हड उत्सव जाता. मिथिलेचे भोंवतणी शिलानाथ, कपिलेश्वर, कूपेश्वर, कल्याणेश्वर हीं शिवमंदिरां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मिथुन :** भारतीय राशिचक्रांतली तिसरी रास. मृगाचे निमाणे दोन चरण, आर्द्रा आनी पुनर्वसूचे पयले तीन चरण मेळून मिथुन रास तयार जाता. बुध हो हे राशीचो स्वामी आसा. ही रास द्विस्वभाव, वायुतत्त्वाची अल्पप्रसव आनी शूद्रवर्णी मानतात. सायन मिथुन राशींत सूर्य २१मे ते २२जून मेरेन आसता. फेब्रुवारी म्हयन्याच्या सुमाराक ही रास मध्यमंडलाचेर येता. हे राशीच्या क्षेत्रांत दोळयांक दिसपी अशे १२१ तारे आसात. हे राशीन भुगोलाचें ७१३.८ अंग क्षेत्र आडायलां.



बायर हाणें हे राशींतल्या ताऱ्याक तांच्या दृश्य तेजस्वितेप्रमाण आल्फा, बीटा, गॅमा अशीं नांवां दिल्यांत (१६०३).

हे राशीचो शेक हात, खांदे, फुफ्फुस आनी श्वासनलिका हांचेर चलता. हे राशींत बुध, रवी, चंद्र, शनी, शुक्र, गुरू हे अधिकाधीक शक्तीवान आसतात. शास्त्रीय विशयांची जिज्ञासा, वाचनाची आवड, बुध्दिमत्ता हे राशीचे गुणधर्म आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मिथेन :** वायरूप कार्बनी संयुग. पॅराफीन हायड्रोकार्बन श्रेणींतलें पयलें आनी सादें संयुग. रेणवीय सूत्र $CH_4$ रचणुकेचें सूत्र.

```
      H
      |
  H – C – H
      |
      H
```

मार्श वायू, फायरडॅम्प, मिथिल हायड्राइड ह्या नांवांनीय मिथेन वळखतात. गुरू, शनी, प्रजापती आनी वरूण ह्या गिऱ्यांचेर मिथेन व्हडा प्रमाणांत आसा. सैमीक वायूचो हो मुखेल घटक आसून तातूंत हाचें वजनी प्रमाण सुमार ७५% इतलें आसता. कोळशा खणींत हो वायू कोळशांत दाबासकयल कोंडिल्लो आसता आनी खणकाम करतना तो वेगळो जाता.

१८५६त मिथेन वायू प्येअर बर्थेलॉट हाणें कार्बन बायसल्फायड आनी हायड्रोजन सल्फायड हांचें मिश्रण तापिल्ल्या तांब्यावयल्यान व्हरून पयलीं तयार केलो. कार्बन आनी हायड्रोजन हांचो १,२००°से. तापमानाक संयोग जावन मिथेन वायू तयार जाता. प्रयोगशाळेंत निर्जल सोडियम ॲसिटेट आनी सोडा लाईम हांचें मिश्रण तापोवन ॲल्युमिनियम कार्बायडाचेर उदकाची विक्रिया करून मिथिल मॅग्नेशियम आयोडायडाचें उदकांत अपघटन करून मिथिल आयोडायडाचें क्षपण करून आदी विक्रियांनी मिथेन वायू तयार करतात.

शुध्द मिथेन वायू रंगविरयत, रूचविरयत आनी वासविरयत आसता. रेणुभार १६.०४; १०० वातावरणीय दाबासकयल ०° से. तापमानाक ताचें द्रवीकरण जाता. वितळबिंदू - १८२°.६ से., उकळबिंदू - १६१°.४से. हवेपरस ल्हव, वितळ गुरूत्व (१६४°से. क) ०.४१५ उदकांत विरगळना. आल्कोहॉल वा ईथरांत सादारण प्रमाणांत विरगळटा. जळणाक मदत करीना. पूण, हो हवेंत जळटा आनी हाची वात मंद, उणी दीप्तीमान आनी तापिल्ली आसता. शुध्द वायू जळटना फिकट निळसर आनी अदीप्त वात मेळटा आनी कार्बन डायऑक्सायड आनी उदक, तयार जाता. हवा आनी मिथेन वा हवा आनी ऑक्सिजन हांची भरसण स्फोटक आसता.

रसायनीक नदरेन मिथेन थीर आसून ताचेर पॉटॅशियम परमँगनेट, पोटॅशियम डायक्रोमेट, सल्फ्यूरिक अम्ल, आदी विक्रियाकारकांचो कसलोच परिणाम जायना. चड प्रमाणांत क्लोरीन आनी मिथेन हांची भरसण सुर्या उजवाडांत दवरल्यार ताचो स्फोट जाता.

मिथेन हो एक म्हत्वाचो इंधन वायू आसा. मिथेन चड आशिल्लो सैमीक वायू हेर पदार्थ तयार करपाखातीर सरळ वापरतात. अशा सैमीक वायूंतल्यान मिथेन वेगळो करून वापरीनात. ह्या वायुची उदकावांगडा विक्रिया करून संश्लेशित वायू पयलीं मेळयतात आनी फुडें ताचेपसून अमोनिया, मिथिल आल्कोहॉल, ॲसिटिलीन, कार्बन मोनॉक्सायड आनी हेर रसायनां मेळयतात.

फातरा कोळसा खणींत कामगारांक स्फोटावरवीं इजा जावची न्हय म्हूण थंयचो मिथेन वायू भायर काडटात. मिथेन वायू जर नळांवरवी घरगुती वापरा खातीर दिलो, तर इंधनाची बरीच बचत जावं येता. ते नदरेन प्रयोग चालू आसात. शेणाचें आनी हळशिकेचे हवेखेरीज किण्वन करून मेळिल्ल्या वायूंत ६०% मिथेन आनी ४०% कार्बन डाय-ऑक्सायड हे वायू आसतात. कॉर्नेल विद्यापिठांतलो टी. गोल्ड हाणें भूंयकांप जाता आसतना केल्ल्या संशोधनाच्या आदारान धर्तरेच्या पोटांत मिथेन व्हडा प्रमाणांत आसा अशे सांगिल्लें आसून ताचेर फुडलें संशोधन चालू आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मिनाक्षी :** (पळेयात मदुराई).

**मिनेझीस, व्हीनसेंट :** (जल्मः सांगोल्डा; मरण : १८९४, गोंय).

मलाकाचो गोंयकार धर्मप्रचारक. मलाका हांगा ताणें ४४ वर्सां व्हिकार जनरल म्हूण वावर केलो. तेन्नाच थंय 'पाट्राडे पोपोगेण्डा' वाद चलतालो. अशा वेळार ताणें थंयचो डायोसिसचो कारभार पळोवन थंयचे इगर्जेक सांबाळून घेतली. फुडें १८३८त ताणें ह्या वादाचेर आळो घालून १८८८ मेरेन बिशप नासतना थंयचे डायोसिसची देखरेख केली.

- कों. वि. सं. मं.

**मियानमार :** (पळेयात ब्रह्मदेश).

**मिरयां :** (मराठीः मिरे, मिरी, काळे मिरे; हिंदी : काली मिर्च, गोल मिर्च; संस्कृतः मरिच; इंग्लीश : ब्लॅक पेपर; लॅटिनः पायपर नायग्रम; कूळः पायपरेसी). ही जायतीं वर्सां जगपी, खांदयो आशिल्ली आनी वयर चडपी वाल. तिची उंचाय १०मी. वा ताचेयपरस चड आसता. खांदयो घटमूट आसून तिच्या पेरांतल्यान हवाई मुळां फुटतात. हिचीं पानां खांवच्या पानावरी, पूण तांच्यापरस मोटीं, सादीं, सुमार ७ ते ९ सेंमी. लांब एकाफाटल्यान एक, चिवट, ५-९ शिरांचीं, पोंदच्यान लेव पाचवीं आनी वयल्यान काळसार पाचवीं आसतात. फुलां ल्हान, सुमार १० ते १८ सेंमी. लांबायेच्या हुमकळपी ताळयेर येतात. दर एकांत सुमार ५० फुलां आसतात. फळां तांबडीं, ल्हान (५-६मिमी. व्यासाचीं) आनी एक बिजी आसतात. फुलां येतसावन फळां जून जावपाक स म्हयने लागतात. तयार जाल्लीं पूण पुराय पिकचे आदी काडून सुकयल्लीं फळां हीं काळी मिरी आनी पुराय पिकिल्लीं आनी फलावरण काडिल्लीं फळां धवी मिरी ह्या नांवांन बाजारांत वळखतात.

ही वाल मुळची भारताचे नैर्ऋत्येकडल्या दोंगुल्ल्यांतली आसून ती उत्तर कारवार सावन कन्याकुमारी मेरेन चड पावसाच्या वाठारांत रानटी अवस्थेंत दिसून येता. मिरयां हें जगांतलें सगळयांत पोरनें आनी खूब म्हत्वाचें पीक आसा. चरकसंहिता, बृहत्संहिता आनी तमिळ साहित्यांत हांचे उल्लेख मेळटात. इ.स. पांचव्या शतमानांत भारतांतल्यान ग्रीकाक मिरयांची निर्यात जाताली.

जगातं मिरयांची लागवड करपी देशांत भारत, इंडोनेशिया, मलेशिया, ब्राझील, आनी श्रीलंका हे मुखेल देश आसात. तातूंत भारताचो नंबर पयलो आसा. संवसारांतल्या वट्ट सुमार १५,००,०० टन उत्पादनांत २०-२५% उत्पादन भारतांत जाता. भारतांत ह्या पिकासकयल्लें क्षेत्र जरी सगळया देशांपरस चड आसलें तरी हॅक्टरी उत्पादन मात सगळयांत कमी आसा. भारतांतल्या केरळ, कर्नाटक आनी तमिळनाडू आदी वाठारांत चड प्रमाणांत मिरयांची लागवड जाता. देशांतलें मिरयांचें वट्ट वर्सुकी उत्पादन ३०,०००-३५,००० टन आसा. हातूंत सगळयांत चड उत्पादन केरळांत जाता. भारतांत आसाम, अस्तंत बंगाल, ओरिसा, आंध्रप्रदेश, अंदमान निकोबार जुंवे, महाराष्ट्राच्या कोकणपट्टेंत आनी गोंयांत मिरयांची लागवड करपाचे यत्न चलतात. गोंयांत कुळागारांनी माडयेर चडोवन घरगुती पद्दतीन मिरयांची लागवड करतात. भारतांत मिरयांखाल आशिल्ल्या वट्ट क्षेत्रांतलें सुमार ८०% क्षेत्र ल्हान शेतकऱ्यांकडे आसा. तांचेकडे तीन हेक्टरांपरस कमी क्षेत्र आसता.

भारतांत मिरयांच्यो ७५ परस चड जाती लागवडीखाल आसात. केरळांत कल्लुवल्ली, बालन कोट्टा, करिमुंडा, आनी कोट्टानड ह्या पोरन्या जातींमदीं चड उत्पन्न दिवपी जाती आसात. पन्नियूर-१ हे नवे संकरीत जातीचें उत्पन्न पोरन्या थळाव्या जातींपरस ३.४ पट चड मेळटां. तेल्लिचेरी बोल्ड ही मिरयांची जात मलबार वाठारांत लागवडी खाल आसून तिका खूबूच मागणी आसता. मिरयांच्या सगळया जातींत हांकां खुबच मोल आसता. मल्लीगसरा, डोड्डीम्या आनी अरीसीना मोरट्टा हे कर्नाटकांतले सुदारीत प्रकार आसात.

ह्या पिकाक उश्ण आनी दमट हवामान आनी कांय प्रमाणांत सावळी लागता. दर्यापातळेसावन १५००मी. उंचायेमेरेनच्या वाठारांत ह्या पिकाची लागवड जावंक शकता. पूण सु. ५००मी. उंचायेवयल्या वाठारांत हें पीक बरें येता. ह्या पिकाक वर्सुकी पावस कमींत कमी १५० सेंमी लागता.



२५०सेंमी. पावस आसल्यार पीक बरें येता. ह्या पिकाक तांबडी, निचऱ्याची आनी सेंद्रीय पदार्थ भरपूर प्रमाणांत आशिल्ली गाळाची जमीन मानवता.

मिरयांची लागवड जायत्या प्रकारांनी घेतातः १) दोंगराचे देंवतेर स्वतंत्र पीक म्हूण, २) घरच्या पोरसांत वा कुळागरांत नाल्ल, सुपारी, पणस, पंगरो, आंबो आदी झाडांच्या आदाराचेर झाड चलोवन मिश्र पीक म्हूण, ३) च्या, काफयेच्या मळयांत दुसरें पीक म्हूण घेतात.

मिरयांचें स्वतंत्र पीक घेवपाचें आसल्यार सुरवेक हे वालीक आदार दिवपाची तयारी करची पडटा. मिश्रपीक घेतल्यार गिमा तेंपार आदार झाडाच्या मूळांत ४५सेंमी. खोल फोण मारून तातूंत सारें भरसून माती घालून दवरतात. हे वालीची लागवड बी लावन वा वालीचे कुडके लावन करूं येता. पूण बी लावन केल्ले लागवडीपरस खांदयो लावप चड फायद्याचें थरता. मिरयांचीं झाडां द्विलींगी (एकाच झाडार स्त्री.-पुष्प आनी पुं.-पुष्प

आशिल्ली) वा विभक्त लिंगी आसता. देखून द्विलिंगी मिरयांच्या झाडांचीच लागवड करतात. वालीक एकापरस चड पेरां आशिल्ल्या जाग्यार कापून ऑक्टोबर म्हयन्यांत ताचीं कलमां करून सावलेंत दवरतात. तांकां मुळां येतकच कायम जाग्यार तांची लागवड करतात. एका हॅक्टराक सुमार ७५० ते १,००० छाट कलमां लायतात.

जुलय म्हयन्यांत मूळां फुटिल्लीं छाटकलमां घेवन आदाराचे ईशान्य वा उत्तरेवटेन ४५ ते ६० सेंमी. अंतराचेर ३०x३०x३० आकाराचे फोंड मारून दर एका जाग्यार दोन कलमां ह्या प्रमाणांत लायतात. हे वालीची वाड खूब बेगीन जाता. देखून ती जशी जशी वाडटा तशी तशी तिका दर सुमार ३०सेंमी. अंतराचेर सुमार २५-३० दिसांच्या अंतरान ३-४ वर्सां मेरेन बांदून दवरचें पडटा. लायिल्ले वालीची ९०सेंमी. वाड जायमेरेन तिका खांदयो आयल्यार त्यो कापून उडयतात. वखदां मारपाक, फळां काडपाक सोईस्कर जावंचे देखून ही वाल ५-६ मीटरांपरस चड वाडूंक दिनात. हे वालीक तीन वर्सांउपरांत वर्सांतल्यान दोनखेपे (मार्च आनी सप्टेंबर), शेणखत, कडू पेंड, युरिया, सुपरफॉस्फेट आनी म्युरिएट ऑफ पोटॅश हीं सारीं दिवचीं पडटात.

पन्नियूर-१ हे जातीक तिसऱ्या वर्सांत जून-जुलयंत वालीचेर फुलां येतात आनी डिसेंबरांत फळां तयार जावपाक सुरवात जाता. काडणी डिसेंबराच्या मध्यासावन मार्चाच्या मध्यामेरेन चालू आसता. फळां जशीं जशीं तयार जातात तशीं तीं ३-४ हप्त्यांत काडटात. फळां तयार जातकच तांचो रंग बदलतना तीं पुराय पिकचेआदीं तांचे घोंस कापून ते ६-७ दीस वतांत सुकयतात आनी बडयेन बडोवन वा पांयां सकयल माड्डोवन घोंसापसून फळां मेकळीं करतात. सुकतकच फळांची साल काळी पडटा. हांकांच काळीं मिरयां म्हूण वळखतात. फळांक चकचकीत काळो रंग येवपाखातीर वालीवयल्यान काडिल्ले घोंस दोनय हातांनी चोळून तातूंतले दाणे मेकळे करतात आनी कपड्यांत गुठलावन ती पोटली एक मिनीट खतखतीत उदकांत बुडोवन दवरतात. उपरांत हीं फळां ८-१० दिस वतांत सुकयतात. अशेतरेन प्रक्रीया केल्ल्या मिरयांक रंग बरो येता आनी तांचो सुवाद वाडटा.

धवीं मिरयां तयार करपाखातीर पुराय पिकिल्लीं गडद जांभळीं वा तांबड्या रंगाचीं फळां काडून तीं एक दीस व्हांवत्या उदकांत भिजत दवरतात. तालुंतल्यान काडून तीं धांपून दवरतात. हाकालागून फळांत एंजायमाची क्रिया जावन तांचे वयल्यो साली मोव जातात. त्यो हातांनी चोळून, दाणे धुवन वतांत सुकयतात. ताका लागून तांचो रंग धवोफुल्ल जाता. हीं धवीं मिरयां काळ्या मिरयांपरस चड तिखट आनी चड रुचिचीं आसतात. ह्या मिरयांक संवसारीक बाजारपेठेंत खुबच मागणी आसता. काळ्या मिरयांपसून धवी मिरयांपूड तयार करतात आनी उरिल्ल्या काळ्या सालीं पसून तेल आनी ओलिओरेझीन काडटात.

युरोपीय बाजारांत पाचव्या मिरयांक (तरनीं) मागणी आशिल्ल्या कारणान अशीं मिरयां हवा बंद डब्यांत भरून वा बाटल्यांत लोणच्याच्या स्वरुपांत धाडपाची पद्दत आसा.

मिरयांक मसाल्याचो राजा म्हूण वळखतात. सुमार ३,००० वर्सां काळीं मिरयां अन्न पदार्थांत वापरांत आसात. आदल्या तेंपार शेळें मांस रुचीक करपाखातीर मिरयां पिठ्याचो वापर करताले आनी ताका लागून त्या काळांत मिरयांक खूब म्हत्व आशिल्लें. भाज्यो, मांस, नुस्तें, बेकरींतलीं उत्पादनां आनी हेर पदार्थ हातूंत खूब प्रमाणांत मिरयांचो वापर करतात. भारतीय वैजकीशास्त्रांत मिरयांचे उपेग पटकी, घुंवळ, खूब वेळ येवपी बेशुध्दी, जोरा उपरांतचो अशक्तपणा, बारीक जोर (हिवताप), कमरा सकयल्लो भाग धरप, संधीचे विकार, ताळो दुखप, बीक, आनी काती रोग हातूंत केला. मिरयांतलें बाश्पनशील तेल सॉसेजीस, डबोबंद मांस, सूप, कांय पेयां, सोरो हातूंत वासाचो घटक म्हूण वापरतात. वासाचीं द्रव्यां, शाबू, वखदां हातूंतय तांचो उपेग करतात.

**रोग आनी किडी :** ह्या पिकाक फायटोफथोरा पामीव्होरा आनी फ्युजेरियम ह्या दोन कवकांक लागून मर हो म्हत्वाचो रोग जाता. ह्या रोगापसून पिकाचें ३०% नुकसान जाता. ह्या दोनय रोगांचेर रोगप्रतिकारक प्रकार उपलब्ध ना. पूण हीं कवकां ना करपाखातीर रोगी झाडां जळोवन नश्ट करप, पयलो पावस पडटकच जमनीवयल्या मुळांक उदकांत विरगळिल्लो चुनो लावप आनी जमनींतल्यान उदकाचो निचरो जातलो अशी तजवीज करप हे उपाय घेतात.

मिरयांच्या पिकाक पोलू, तेंगशी पोखरपी कीड आनी फूलकिडे ह्या किडींपसून त्रास जाता. देखून मिरयांक फळां धरूंक लागतकच वालीचेर बोर्डो मिश्रण फवारल्यार कवकाच्या वाडीक आळो बसता. किडीक आळो घालपाक ०.२५% डीडीटी फवारल्यार बरी. ते भायर लिंडेन, डिल्ड्रीन आनी मॅलेथिऑन हीं कीटकनाशकां परिणामकारक थारतात.

मिरयांचे निर्यातीपसून भारताक मसाल्याच्या पदार्थांत सगळयांत चड परकीय चलन मेळटा. मसाल्याच्या पदार्थाचे निर्यातीपसून मेळपी वट्ट उत्पन्नांतलें सुमार ५०% उत्पन्न मिरयांचे निर्यातीपसून मेळटा. भारतांतल्या मिरयांच्या उत्पादनांतलें सुमार ९०% उत्पादन निर्यात करतात. भारतांतल्यान जावपी निर्यातीविशींचो सल्लो दिवपाचें आनी देखरेख करपाचें काम कोचीन हांगाची स्पाइसेस एक्सपोर्ट प्रमोशन काउन्सिल ही संस्था करता. भारतांतलीं मिरयां उंचेले प्रतीचीं समजल्ल्यान निर्यात व्यापारांत तांका खूब मोल मेळटा. वास, सुवाद आनी तिखसाण हातूंत भारतीय मिरयां इंडोनेशिया, सारावाक (मलेशिया) वा ब्राझील ह्या देशांतल्या मिरयांपरस खुबूच उंचेले प्रतीचीं आसात. भारतांतल्यान सुमार ८० देशांत मिरयांची निर्यात जाता. चडकरून अमेरिका, कॅनडा, ब्रिटन, रशिया, आनी जपान.

भारतांत मिरयांविशीं जायत्या केंद्रांत संशोधन जाता. केरळ राज्यांतलें

कासरगोड हांगाचें सेंट्रल प्लँटेशन क्रॉप रिसर्च इन्स्टिट्यूट, कननोर जिल्ह्यांत पन्नियूर हांगाचें मिरयां संशोधन केंद्र आनी म्हैसूर हांगाचें सेंट्रल फूड टेक्नॉलॉजिकल रिसर्च इन्स्टिट्यूट हीं संशोधनाचीं मुखेल केंद्रां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मिरसांग :** (मराठीः मिरची; हिंदीः लाल मिर्च; गुजरातीः मर्चु; कन्नडः मेंसिकाई; संस्कृतः उज्वला, तीक्ष्णा, मरीची फल; इंग्लीशः चिली, रेड पेपर; लॅटिनः कॅप्सिकम ॲन्यूम).

चड करून दोन तरेच्यो मिरसांगो वळखुपांत येतात. पयली हंगामी आनी दुसरी दोन वर्सां मेरेन जगूंक शकता. मिरसांगेचें झाड ल्हान, सरळ आनी फांकारिल्ल्या झोंपावरी आसून ताची लांबाय सुमार ०.५ ते १.५ मी. मेरेन आसता. ह्या झाडाचें पाळ जमनींत आडवें पातळनासतना सरळ

म्हळ्यार भारतांत तीन तरेच्यो जाती प्रचलीत आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

संवसारांतल्या सुमार १७.७६ लाख हॅक्टर जमनींत मिरसांगेचें उत्पादन जाता. आनी ताचेपसून मिरसांगेचें वर्सुकी उत्पादन सुमार ७० लाख टन मेळटा. मिरसांगेचे उत्पादन काडपी देश, आवांठ आनी उत्पादन अशें आसाः भारत ८२६ हॅक्टर, १५११टन; चीन १४२ हॅक्टर, १३४० टन; कोरिया ७० हॅक्टर, ११२टन; नायजेरिया ६८ हॅक्टर, ६२०टन; मेक्सिको ५३ हॅक्टर, ४७४ टन; पाकिस्तान ५२ हॅक्टर, ८२टन; युगोस्लाविया ४० हॅक्टर, ३४०टन; स्पेन २८हॅक्टर, ५३७टन. भारतांत मिरसांगेचें उत्पादन काडपी मुखेल देश अशेः आंध्र प्रदेश १५८ हॅक्टर, १६२टन; महाराष्ट्र १४९ हॅक्टर, ७४ टन; कर्नाटक १३९ हॅक्टर, ४२ टन; तमिळनाडू १०९ हॅक्टर ८३टन.

गोंयांत मिरसांगेचें पावसाळी तशेंच वायंगणी पीक काडटात.

मिरसांगेच्यो पुसाज्वाला आनी NP ४६-अ ह्यो जाती सोडल्यार, हेर



तांबडी मिरसांग



ढब्बू मिरसांग



तारवटी मिरसांग

उबें सुमार १मीटर मेरेन वचूंक शकता. पानां लांबोडीं सुमार १-१२ सेंमी. लांब आनी चकचकीत आसतात. हंगामी मिरसांगेक फूल एकटुकेंच येता जाल्यार, दुसरे तरेचे मिरसांगेक दोन वा तीन फुलां येतात. फुलां खुबूच ल्हान आसून तांच्यो पाकळ्यो धव्या वा पाचव्या रंगाच्यो आसतात. फळ (मिरसांग) लोंबकळपी पूण सरळ आसून तातूंत खूब बियो आसतात. फळ सुरवेक पाचवे आनी पिकतकच तांबडें जाता.

पुर्विल्ल्या काळांत मिरसांगाचो उल्लेख पेरू आनी दक्षिण अमेरिका हांगाचे मंसडींत मेळळा. मॅक्सिको हें मिरसांगांचें मूळ उगम स्थान मानतात. कोलंबसान १४९२त स्पेन हांगा मिरसांगेच्यो बियो व्हेल्ल्यो. पुर्तुगेजांनी सुमार १६व्या शतमानाचे सुरवेक मिरसांग भारतांत हाडली. १५४२

जाती पीक काडपी वाठारावयल्यान वळखुपांत येतात. देखीक : गुंटूर, नल्लापडा, नेलूर, वारंगळ (आंध्रप्रदेश), ब्याडगी, गौरीबीधूर, म्हैसूर, कोलेगल, आरसीकेर (कर्नाटक); संकेश्वर, तारापुरी, शीरगांव (महाराष्ट्र), गोंयांतय त्या त्या वाठाराप्रमाण मिरसांगेच्यो जाती वळखुपांत येतात. देखीक : काणकोणी, हळदणची मोटी काळी मिरसांग, हरमलची तीख मोटी मिरसांग, तांबडी मसुरी वांटकुळी आनी लांबोडी, गोड काश्मीरी, तारवटी (पुर्तुगाली). तारवटी मिरसांग चडकरून पोरसांनी लायतात आनी ताचो पापडां खातीर चड उपेग करतात.

मिरसांगेच्या पिकाक बरी निचऱ्याची जमीन मानवता. उदक शिंपपाची सोय आशिल्ले बरे रेंवट तशेंच काळे मातयेंतय हें पीक बरें जाता.

मिरसांगेची लागवड चडकरून रोपे लावन करतात. १ हेक्टर जमनींत सुमार ०.५ते१.० किलोग्राम बियां लागतात. रोप तयार करपाखातीर मे म्हयन्याच्या निमाणें १५ सेंमी. उंचायेचीं आयणां तयार करून तातूंत बीं किल्लपाक घालतात आनी ताचेवयर तण धांपून दवरतात. उपरांत ४-६ आठवड्यांचे रोपे काडून दुसरेकडेन लायतात. हे रोपे लायता आसतना दोन ओळीमदीं सुमार १-१$^{1}/_{2}$ फूट अंतर दवरतात जाल्यार दोन रोपांमदीं सुमार ४ इंच अंतर दवरतात. जायते खेपे मिरसांगेची प्रत, माती, आनी हंगाम पळोवनय हें अंतर दवरप जाता. गोंयांत मिरसांगेच्या रोपांमदलें अंतर चड आसना. मिरसांगेचें बरें जून जाल्लें पयलें पीक सुकोवन दुसऱ्या वर्साच्या बियाणाखातीर राखून दवरतात. मिरसांगेचीं मोटीं बियां चड बेगीन किल्लतात आनी तांचेपसून मिरसांगोय चड मेळटात.

मिरसांगांक करपो, भूरी ह्या सारके रोग आनी किडी लागतात. किडींक लागून मिरसांगेची प्रत आनी पीक कमी येता. ह्यो किडी चडकरून सांजवेळच्यो झाडार चडटात. पूण दीसभर त्यो झाडाच्या मुळांत लिपून रावतात. कांय किडी झाडाचीं पानां खरवडायतात, जाका लागून पानां कवळून उरतात. हे किडीचेर आळां बंद घालूंक झाडाचेर किटकनाशकांचो फवारो मारतात. गोंयांत चुड्डो-मुड्डो ह्या रोगाक लागून मिरसांगेचें बरेंच नुकसान जाता.

मसाल्यांत मिरसांगेक खुबच म्हत्व आसा. मिरसांगेचो वापर जेवणांत तिखसाण आनी रंग दिवंक करतात. भारतांत जेवणांत मिरसांगेचो वापर चड करतात. हरवे मिरसांगेचोय वापर करतात. कांय कडेन भाकरे वांगडा हरवी मिरसांग तोणाक लायतात. हरवे मिरसांगेपसून चटणी, भर्जी, लोणचीं आनी जायते प्रकार करतात. ह्यो मिरसांगो पिकतकच तांबड्यो जातात. ह्यो तांबड्यो मिरसांगो सुकोवन तांचो पिठो करतात. गोंयांत गोंयकारांच्या जेवणांत मिरसांगेचो वापर आसताच. नुस्त्याचें हुमण, सुकें, आमट-तिखट रोस आनी हेर जायत्या प्रकारांत मिरसांगेबगर रूच येना. चण्या पिठयेंत बुडोवन तळिल्ली सगळी मिरसांग (हरवी) सगळेकडे प्रचलीत आसा.

भारतीय मिरयांची सुवात घेवपाखातीर युरोपियन विस्तार वाद्यांनी मिरसांगो वा डब्बुमिरसांगेच्या वापराचेर भर दिलो. आनी नोंद करपासारकी गजाल म्हळ्यार मिरयांचें उत्पादन करपी भारत देशांतच मिरसांगांनी मिरयांची सुवात घेतली.

- मिंगेल ब्रागांझा.

## मिल, जॉन स्ट्युअर्ट :

(जल्म : २० मे १८०६, लंडन; मरण : ८ मे १८७३, ॲव्हीन्यो).

नामनेचो ब्रिटीश तत्त्वज्ञ, राजकीय अर्थशास्त्रज्ञ आनी उपयुक्तवादाचो प्रभावी पुरस्कर्तो. ताच्या बापायचें नांव जेम्स मिल, तो उदारमतवादी आनी लोकशाहीचो पुरस्कर्तो आशिल्लो. पिरायेच्या तिसऱ्या वर्सा ताणें ग्रीक भाशेचो आनी आठव्या वर्सा लॅटीन भाशेचो अभ्यास केलो. पिरायेच्या चवदाव्या वर्सा मेरेन ताणें इतिहास, अर्थशास्त्र, राज्यशास्त्र, तर्कशास्त्र, गणित आनी तत्त्वज्ञान आदी विशयांचें शिक्षण घेतिल्लें. नामनेचो उपयुक्ततावादी विचारवंत बेंथॅम जेरेमी हाच्या विचारांचो ताचेर विद्यार्थीदशेपसून प्रभाव पडिल्लो. १८२३त ताका ईस्ट इंडिया कंपनीच्या अधिकार पदार नोकरी मेळ्ळी. इ.स. १८५८त तो सेवानिवृत्त जालो. लंडनच्या इंडिया हावसांत काम करता आसतना ताणें आपलें शिक्षण सतत चालू दवरिल्लें. इ.स. १८६५-१८६८ ह्या काळांत तो ब्रिटीश पार्लमेंटाचो वांगडी आशिल्लो. तेन्ना ताणें बायलांक मतदानाचो हक्क मेळचो देखून सभागृहांत विधेयक मांडिल्लें. पूण ताका मंजुरी मेळूंक ना.

बेंथॅम वरीच ताचेर ऑग्यूस्त काँत आनी सेंट सिमॉन ह्या फ्रेंच विचारवंतांचो तशेंच वर्डस्वर्थ, कॉलरिज आदी स्वच्छंदतायवादी कवी आनी विचारवंत हांचोय प्रभाव आशिल्लो. ताचो पयलो ग्रंथ सिस्टिम ऑफ लॉजिक (तर्कशास्त्राची वेवस्था) १८४३ त उजवाडाक आयलो. ह्या ग्रंथांत ताणें विश्वाविशींचें वा नैतिक आनी हेर मूल्यांविशींचें गिन्यान हें अणभवापसून, निरिक्षणा पसून आमकां मेळटा अशे विचार मांडल्यात आनी ताका धरून गिन्यानाच्या सगळया प्रकारांचें स्पश्टीकरण दिवपाचो यत्न केला. तो फुडें असो निश्कर्श काडटा, समाजीक कल्याणांत उदरगत घडोवपाखातीर ज्या समाजीक आनी राजकीय धोरणांचें संयोजन करचें पडटा, तीं धोरणां अणभवी, विज्ञानीक गिन्यानाचेर आदारावचीं पडटात. तीं धर्मीक वा आध्यात्मिक परंपरांत आशिल्ल्या तत्त्वांचेर आदारप समा न्हय.

ताच्या 'प्रिन्सिपल्स ऑफ पॉलिटिकल इकॉनॉमी' (इ.स. १८४८) ह्या ग्रंथांत समाजाच्या अर्थकरणाविशीं विचार आयिल्ले आसात. ह्या ताच्या ग्रंथांचीं सात संस्करणां उजवाडा आयिल्लीं आसात. तरणेपणांत बरयल्ल्या ग्रंथाची जेन्ना दुसरी आवृत्ती बऱ्याच काळाउपरांत आयली तेन्ना तातूंत ताचे विचार खुबच बदलिल्ले आशिल्ले. सुरवेक तो अर्थीक मळार बरेचशें अनिर्बंध स्वातंत्र्य आसचें अशें मत मांडटालो. पूण उपरांत अर्थवेवस्थेंत कामगाराची पिळवणूक जाता, ताका ताच्या कामाचें फाव तें मोल मेळना. अशें सांगून तो फुडें म्हण्टा, सर्वसामान्यांच्या व्यापक कल्याणाचे नदरेन शासन अर्थीक वेव्हारांत लक्ष घालून नियंत्रण दवरप योग्य थारतलें अशें मत ताणें मांडलें. पूण फुडें फुडें ताचो कल समाजवादाकडे झुकत गेल्लो दिसून येता. उद्देगीक मळार भांडवलशाही पद्दतीन उत्पादन जावचें पूण पैशांचें वांटप समाजवादी न्यायान जावंचें अशें तो म्हण्टा. शेतकीमळार सरकारान सुदारणा करून, शेतमजुराक न्याय मेळोवन दिवंचो अशी सुचोवणी ताणें केल्ली.

फुडें निवृत्ती उपरांत ताणें इ.स. १८५९ त 'ऑन लिबर्टी' हो क्रांतीकारक ग्रंथ बरयलो. ह्या ग्रंथांत ताणें विचारस्वातंत्र्य आनी उच्चारस्वातंत्र्य हांचो पुरस्कार केला. तो व्यक्तिस्वातंत्र्याचो कट्टर पुरस्कर्तो आशिल्लो. व्यक्तिस्वातंत्र्य

हें समाजाक जायत्या कारणांनी उपेगी पडटा. आनी ह्या स्वातंत्र्याचेर वोगीच मर्यादा घाली जाल्यार समाजाचें नुकसानच जावपाची चड शक्यता आसता. असो युक्तिवाद तो मांडटा. दर एका मनशाचें विशिश्ट अशें व्यक्तिमत्व आसता आनी ताची कदर सगळ्यांनी करूंक जाय. दर एका मनशाक स्वताच्या व्यक्तिमत्वाची जोपासना आनी विकास करपाक वाव मेळूंक जाय अशी ताची धारणा आशिल्ली.

आपल्या 'युटिलिटेरिॲनिझम' (उपयुक्ततावाद,१८६३) ह्या ग्रंथावरवीं ताणें उपयुक्ततावादाचो सिध्दांन्त उक्तो केला. समाजीक वेव्हारांत एकाद्रें तत्त्व वा धोरण, ताचो प्रत्यक्ष भौतिक जीणेंत कितलो उपेग आसा, तें आपल्याक सुखाचें जातलें काय कितें? ह्या निकशाचेर तपासून पळोवन तें आपणावंचें काय सोडून दिवचें हाची शिकवण म्हळयार उपयुक्ततावाद. ताणें हेविशीं आपलो बापूय आनी बेंथॅम हांचेपरस चड खोलायेन आनी बारीकसाणेन हो उपयुक्ततावाद मांडला. समाजजीणेच्या संदर्भांत खंयच्याय एका मनशाच्या सुखाचो स्वतंत्रपणान, असो विचार करूंक मेळना. उपयुक्ततावादांतल्यान स्वाभाविकपणान येवपी सुखवाद जरी आपणायलो तरी राज्यसंस्थेक दर एका मनशाक ताका जाय तीं सगळीं सुखां मेळोवन दिवपाक केन्नाच शक्य जावंचें ना. देखून राजकीय तत्त्वगिन्यानांत सूख म्हळयार चडांत चड लोकांचें चडांत चड सूख अशें सूत्र तो सांगता. फुडें सूख म्हळयार कितें हो प्रस्न करून तो सुखाचे जाणविकायेच्या प्रकारांत उच्च प्रकारांची आनी तिगपी तशेंच कमी प्रतीची आनी तितल्या पुरतीच असो गुणात्मक फरक करता.

जॉन स्टयुअर्ट हो आपल्या बापायच्या आनी बेंथॅमच्या विचारांकडे सहमत नाशिल्लो. तरीय स्वताच्या विचारांक तो उपयुक्ततावादीय म्हण्टालो. तो स्वातंत्र्याचो कट्टर पुरस्कर्तो आशिल्लो तरी लोकशाही म्हळयार व्यक्तिस्वातंत्र्याची पुराय हमी अशें जे मानतात तें कांय प्रमाणांत भ्रमीक आशिल्ल्याचेंय ताणें दाखोवन दिलां. लोकशाही शासन पद्दती ही व्यक्तिस्वातंत्र्याक मारक जावंक शकता अशें सांगून ताणें लोकसत्ताकाच्यो ज्यो मर्यादा सांगिल्ल्यो तांकां लागून वैचारीक मळार बरोच बोवाळ जालो. पूण तो लोकशायेचो विरोधक नाशिल्लो. तो लोकशायवादी तर आशिल्लोच पूण लोकशाहींतल्या धोक्याकडे फाट करपाक तो तयार नाशिल्लो. लोकशाय जर सगळ्या लोकांखातीर आसा, जाल्यार त्या लोकांक न पटपी गजाली सांगपी कांय थोड्या लोकांकय त्या लोकांची सुवात आसूंकच जाय असो ताचो आग्रो आशिल्लो. ताकाच लागून ताणें सर्रास प्रौढ मतदान पद्दतीपरस प्रमाणशीर मतदान पद्दतीक तेंको दिल्लो. तेचपरी कामगारांच्या आनी शेतकाऱ्यांच्या दुःखाक वाचा फोडून सामान्यांक न्याय आनी फाटबळ दिवपी कायद्याक तेंको दिलो. उत्पादनाचे मर्यादिमेरेन भांडवलशाही आनी वाटपाचे अवस्थेक समाजवाद अशी ताणें वेवस्था सांगिल्ली. कशेयतरेन जायना पूण समाजवाद आपणावंक जाय आनी ते दिकेन वाटचाल करूंक जाय अशें स्पश्टपणान सांगपी इंग्लंडांतलो तो पयलो तत्त्वज्ञानी. ताचे उल्लेख करपासारके हेर कांय ग्रंथ अशेः एसेज ऑन सम अन्सेटल्ड क्वेश्चन्स ऑफ पोलिटिकल इकॉनॉमी (१८४४), थॉट्स ऑन पार्लमेंटरी रिफॉर्म (१८५९), कन्सिडरेशन्स ऑन रिप्रेझेंटेटिव्ह गव्हर्मेंट (१८६१), युटिलिटेरिॲनिझम (१८६३), ऑग्यूस्त काँत अँड पॉझिटिव्हिझम (१८६५), ॲन एक्झामिनेशन ऑफ सर विल्यम हॅमिल्टन्स फिलॉसॉफी (१८६५), ऑटोबायॉग्राफी (१८७३), थ्री एसेज ऑन रिलिजन (१८७४), एसेज ऑन पॉलिटिक्स अँड कल्चर (१८६२).

- कों. वि. सं. मं.

**मिलस्टाइन, सेझार :** (जल्मः ८ ऑक्टोबर १९२७, बाईआ, व्हलांका- अर्जेंटिना).

अर्जेंटिनीयन-ब्रिटीश जीवरसायनशास्त्रज्ञ. ब्वेनस एअरीझ विद्यापिठाची रसायनशास्त्राची पदवी (१९५२) आनी जीवरसायनशास्त्राची डॉक्टरेट पदवी (१९५७) मेळयतकच १९५८ त तो इंग्लंडाक गेलो. १९६०त केंब्रिज विद्यापिठाची डॉक्टरेट ताणें मेळयली. एक वर्स केंब्रिज विद्यापिठाच्या जीवरसायनशास्त्र विभागांत काम करतकच तो ब्वेनस एअरीझ हांगाच्या विभागाचो १९६१-६३त मुखेल आशिल्लो. १९६३ त तो इंग्लंडाक परतलो आनी केंब्रिज विद्यापिठांतल्या वैजकी संशोधन मंडळाच्या रेणवीय जीवविज्ञान प्रयोगशाळेंत ताणें संशोधन करपाक सुरवात केली. १९६९-८० त ताणें हे प्रयोगशाळेंत विज्ञानीक आनी प्रथिन रसायनशास्त्र उपविभागाचो मुखेल म्हूण काम केलें. १९८० त तो थंयच रेणवीय प्रतीरक्षा जीवविज्ञान उपविभागाचो मुखेल आनी फुडें १९८३ त प्रथिन आनी न्यूक्लिइक आम्ल रसायनशास्त्र विभागाचो मुखेल जालो.

मिलस्टाइन हाणें प्रतिपिंडांच्या रेणुंची रचणूक, क्रमविकास (उत्क्रांती) आनी आनुवंशिकी हांचेविशीं संशोधन केलां. ताणें कोलर हाचे वांगडा एककृत्तकी प्रतिपिंड निर्माण करपाखातीर १९७५च्या सुमाराक संकरार्बुद तंत्राच्या लायिल्ल्या सोदाखातीर तो चड नामनेक पावलो. तेखातीर ताणें प्रतिपिंडाचो स्त्राव करपी एकेच लसीका कोशिकेचें अस्थिमज्जार्बुदाचे एकेच कोशिकेकडेन संयोग घडोवन हाडल्यार एक संकरज कोशिका तयार जाता आनी हे कोशिकेंत लसीका कोशिकेची प्रतिपिंड तयार करपाची तांक तशेंच मारक अर्बुद कोशिकेचें चिरस्थायित्व आसता अशें दाखयलें.

वेगवेगळया उगमांपसून मेळयल्ल्यो प्रतिपिंड उत्पादक कोशिका संकरीत करप शक्य आसा आनी खाशेलो प्रतिपिंड मेळोवपाखातीर अशा कोशिकांचें व्हडा प्रमाणाचेर कृत्रिम रीतीन संवर्धन करप शक्य आसा, अशेंय मिलस्टाइन आनी कोलर हांणी सुचयलें. ह्या तंत्रान पूर्वनिर्धारित खाशेंलपण आशिल्ल्या एककृत्तकी प्रतिपिंडांचें उपाट उत्पादन करप शक्य जालां. ह्या प्रतिपिंडांक लागून सैध्दांतिक आनी अनुप्रयुक्त जीववैजकी संशोधनांत सामकीं नवीं क्षेत्रां अस्तित्वांत आयल्यांत.

प्रतीरक्षाविज्ञानांतल्या मोलादीक कार्याखातीर ताका नील्स काय येर्ने आनी जॉर्जेस जे. एफ. कोलर हांच्यावांगडा शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयाचो १९८४ वर्साचो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो. ताका आनीकूय हेर कितलेशेच भोवमान फावो जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**मिलिंदपन्ह :** पाली भाशेंतलो एक नामनेचो ग्रंथ. मिलिंदप्रस्न हें ताच्या नांवाचें संस्कृत रूप. ह्या नांवांतलो मिलिंद म्हळयार ग्रीक राजा मिनॅनड्रॉस वा मीनांदर. मिलिंद हें ताच्या नांवाचें भारतीय रूप. मिलिंद आनी बौध्द भिक्षू नागसेन हांचेमदली भासाभास ह्या ग्रंथांत आसा. मेनँडर (मिलिंद) हो ग्रीक राजा खिस्ताआदीं १५०-१०० ह्या काळांत जावन गेलो. तो बौध्द विद्वानाचो आश्रयदातो आशिल्लो. ताणें नागसेन भिक्षूकडल्यान बौध्द धर्माची दीक्षा घेतिल्ली अशें मानतात. पूण ह्या ग्रंथाचे रचणुकेचो काळ इ.स. सुमार पयलें शतमान मानतात. कांय जाणांच्या मतान नागसेन हो ह्या ग्रंथाचो कर्तो अशें म्हण्टात.

राजा मिलिंद हाका तत्त्वगिन्यानाविशीं भासाभास करपाची आवड आशिल्ली, ते नदरेन नागसेनाकडे भासाभास जावंची अशी ताका इत्सा जाली. ताणें बुध्द, धर्म, संघ हांचेर आदारीत जायत्या प्रस्नांचेर नागसेनावांगडा भासाभास केली. ह्या ग्रंथांत बुध्दाचें व्हडपण, बौध्दधर्मांतलो अनात्मवाद, संघांत देवदत्तान घाल्ली फूट, निर्वाण, अर्हतांची विस्मृती बौध्द ग्रंथांतल्या वेगवेगळया रचनांत दिसपी विरोध आनी तांचो समन्वय, आदी जायत्या विशयांचेर भासाभास जाल्या. भासाभाशेच्या निमाणें मिलिंद राजान नागसेनाच्या हुशारकायेची तोखणाय केली. तेचपरी नागसेनाखातीर ताणें एक विहार बांदलो. आपलें राज्य आपल्या भुरग्यासुवादीन करून प्रव्रज्या घेतली आनी अर्हत्व घेतलें असो ह्या ग्रंथांत उल्लेख आसा.

ह्या ग्रंथाचे वट्ट सात विभाग आसात. पूण सातव्या विभागांत जे प्रस्न विचारांत घेवपाचे म्हूण सुरवेकच यादी दिल्ली आसा, तातुंतल्या सगळया मुद्द्यांचीं उत्तरां येवंक नात. बौध्दाच्या त्रिपिटकांतल्या जायत्या ग्रंथांचो उल्लेख ह्या ग्रंथांत केला. तशेंच कांय ग्रंथांतल्यान प्रत्यक्ष उतारेय ह्या ग्रंथांत घेतल्यात.

ह्या ग्रंथाचे चीनी भाशेंत फकत पयले तीन विभाग आशिल्ल्यान, ह्या ग्रंथाचे उरिल्ले चार विभाग उपरांतचे आसुंये अशें कांय विद्वानांचें मत आसा. हिंदी, बंगाली आनी कानडी भाशेंत ह्या ग्रंथाचो अणकार जाला. ह्या ग्रंथाचे इंग्लीश अणकार टी. डब्ल्यू. ऱ्हिस डेव्हिड्स हाणें द क्वेश्चन्स ऑफ किंग मिलिंद ह्या नांवान दोन भागांत केला.

- कों. वि. सं. मं.

**मिलिकन, रॉबर्ट अँड्रूझ :** (जल्म : २२ मार्च १८६८, मॉरिसन (इलिनॉय); मरण : १९ डिसेंबर १९५३, सान मारीनो - कॅलिफॉर्निया).

नामनेचो अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ. ओबर्लिन कॉलेजीतल्यान (ओहायओ) १८९१त पदवीधर जातकच दोन वर्सां ताणें प्राथमिक भौतिकशास्त्र अध्यापनाचें काम केलें. १८९३ त मास्टर ही पदवी मेळयतकच कोलंबिया विद्यापिठांत भौतिकशास्त्राचो अधिछात्र म्हूण ताची नेमणूक जाली. १८९५ त ताणें प्रदीप्त पृश्ठभागांनी उत्सर्जित केल्ल्या उजवाडाच्या ध्रुवीकरणाचेर संशोधन करून डॉक्टरेट पदवी मेळयली. तेउपरांत १८९५-९६ त ताणें वर्सभर जर्मनींत बर्लिन आनी गटिंगेन हांगा पदव्युत्तर शिक्षण घेतलें. १८९६ त शिकागो विद्यापिठांतल्या भौतिकशास्त्र प्रयोगशाळेंत सहाय्यक म्हूण ताची नेमणूक जाली आनी फुडें त्या विद्यापिठांतूच १९१०त तो प्राध्यापक जालो. पयल्या म्हाझुजांत तो अमेरिकेच्या राश्ट्रीय संशोधन मंडळाचो उपाध्यक्ष आशिल्लो. त्या वेळार ताणें पाणबुडीप्रतिरोधक आनी वातावरणविज्ञानीय साधनां विकसित करपाची म्हत्वाची कामगिरी केली. १९२१त पॅसाडीना हांगाच्या कॅलिफॉर्निया इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजींतल्या भौतिकशास्त्राच्या नॉर्मन ब्रिज प्रयोगशाळेच्या संचालकपदाचेर, तशेंच हे संस्थेच्या कार्यकारी मंडळाच्या अध्यक्षपदाचेर ताची नेमणूक जाली. १९४६ त ह्या दोनूय पदांवयल्यान तो निवृत्त जालो.

मिलिकन हाणें मुखेल करून विद्युत् प्रकाशकी आनी रेणवीय भौतिकशास्त्र ह्या विशयांत संशोधन केलें. ताचें सगळयांत मोलादीक कार्य म्हळयार ताणें १९१०त इलेक्ट्रॉनाचो विद्युत् भार अचूकपणान मेजपाखातीर सोदून काडिल्लो सामको सोंपो असो तेलाच्या थेंब्याचो प्रयोग. सगळया इलेक्ट्रॉनांखातीर हो विद्युत्भार सारकोच आशिल्लो, अशेंय ताणें सिध्द केलें. १९१२-१५ ह्या काळांत ताणें आइन्स्टाइन हाचें म्हत्वाचें प्रकाशविद्युतीय समीकरण प्रायोगिक रितीन तपासून पळयलें आनी प्लांक हाच्या स्थिरांकाचें मोल प्रकाशविद्युतीय रितीन पयलेच खेप निश्चित केलें. वायुंच्या ब्राउनीय गतीविशीं ताणें केल्ल्या कार्याक लागून द्रव्याच्या आणवीय आनी गत्यात्मक सिध्दांताक आशिल्लो शास्त्रीय संवसारांतलो विरोध सोंपलो. वातावरणांत सरून धर्तरेकडे येवपी कणाचे गतीविशींचो सिध्दांत आनी विद्युतीय घटनांविशींचें ताचें संशोधन हातुंतल्यानूच फुडें विश्वकिरणांविशींच्या ताच्या म्हत्वाच्या कार्याक चालना मेळ्ळी. ताणें विश्वकिरणाच्या मापनाखातीर सुरू केल्ल्या प्रयोगाक लागून हीं किरणां धर्तरेच्या वा वातावरणाच्या सकयल्या थरांत उगम पावनात तर भायल्या अवकाशांतल्यान येतात, हें सिध्द केलें.

इलेक्ट्रॉनाचो विद्युत् भार आनी प्रकाशविद्युत् परिणाम हांचेविशींच्या कार्याखातीर ताका १९२३ वर्साच्या भौतिकशास्त्र विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**मिशमी :** भारतांतली एक आदिवासी जमात. ह्या लोकांची वसती चडकरून अरूणाचल प्रदेशांतले ईशान्य सीमेवयल्या लोहित जिल्ह्यांतल्या न्हंयांच्या देगणांनी तशेंच मिशमी तेमकांनी आनी दाट रानांनी आसा. मिशमी लोकांचे चार पोटभेद आसात. चुलिकट्टा, बिबिजिया, डिग्रू आनी भिगू वा मिदिह.

मंगोलॉयड छापाचे हे लोक वर्णान गोरे आसून मोटवे आसतात. तांचें नाक चेपटें आनी मुखामळ रूंद आसता.

मिशमी दादले कमरेक एक कपडो गुठलायतात आनी मानेसावन धोंपरामेरेन लांब जाकीटाभशेन तांबडो, काळो, निळो वा पिंगशा रंगाचो कोट घालतात. तशेंच हेर रंगरंगयाळे पट्यापट्यांचे खूब कपडे ते वापरतात. लोकर, कापूस वा खाजकुलीच्या झाडासावन काडील्ल्या धाग्यापसून ते आपलीं वस्त्रां विणटात. माथ्यार ते वेताची तोपी घालतात. तांच्या कोटाक कलाकुसर आशिल्ली किनार आसता. बायलो धोंपरामेरेन वस्त्र न्हेसतात आनी भरतकाम केल्लो ब्लावज घालतात. आंगार शाल घेतात. कपलाचेर रूप्याची पट्टी बांदतात. कानांत कानांतलीं आनी गळयांत कंवचेच्या मणयांच्यो माळो घालतात.

दादल्यांच्या खांदार चामड्याचे पटे आसतात आनी तांकां पितुळचीं पातीं लायिल्ल्यो लोकरीच्यो पोतयो आसतात. फाटीक ढाल, तलवार, भालो वा चाकू हीं हत्यारां आसतात. दादले-बायलो केंस वाडोवन कपलाचेर तांचीं गांठ बांदतात.

कोंडे आनी झाडांचो पालो हांचेपसून ते खोंपी बांदतात. आवांठान व्हड आशिल्ल्या ह्या खोंपींनी दर एके कुडींत एक चूल आसता. चुलीचे वयर, सुकपाखातीर मांस बांदिल्लें आसता. खोंपीचे फाटले वटेन शिकार करून मारील्ल्या जनावरांचीं कातडीं लायतात. हे लोक चडशे मांस खातात. तेचप्रमाण तांदूळ, मको, बटाट हांचोय तांच्या आहारांत आस्पाव आसता.

बायलो आनी दादले तंबाकू ओडटात. तंबाकू ओडपाखातीर ते कोंड्याच्यो, पितुळच्यो वा रूप्याच्यो लांब नळयो वापरतात. ल्हान पिरायेचेरूच तांकां हें व्यसन लागता.

हे लोक देवतांची तशेंच भुताखेतांचीय पुजा करतात. कोणूय दुयेंत पडल्यार वा कसलीय वायट घडणूक घडल्यार भुताखेतांचें रागणें पडलें अशें मानतात. तेखातीर तांकां कोंबे, बकरे बळी दितात.

हे लोक एकापरस चड बायलो करप प्रतिश्ठीतपणाचें मानतात. दुकर वा मिथुन दिवन बायल विकती घेवंची पडटा. लग्न थरयतना चलयेची पसंती विचारतात. सगळ्या बायलांक सारको वारसोहक्क मेळटा. बाळंतपणांत बायलेक वेगळे खोपींत दवरतात.

हे लोक मडें घरालागसारूच पुरतात. त्या जाग्यार थडगें उबारून ताचेर पाखें घालतात. थंय मेल्ल्या मनशाचे कपडे, आयदनां दवरतात. गांवांतलो मुखेली वा नामनेचो मनीस मेल्यार, जनावरां मारून तांच्यो कवट्यो मड्याभोंवतणीं दवरतात. तशेंच शिजयल्लें अन्न, मांस, सोरो, त्या मनशाचीं हत्यारांय दवरतात. असल्या मनशाचे सगळे संस्कार पुरोयत करता. मिशमी लोकांत नाच अशुभ मानतात. देखून ते मरणाचे सगळे विधी जातकच नाच करतात. गरीब लोकांचीं मडीं जाळटात.

वेपार करप हो तांचो मुखेल वेवसाय आसलो तरी ते शेती करप, शिकार करप हेय वेवसाय करतात. जनावरां हीं तांची संपत. शेती आनी दुदाखातीर ते जनावरां पोसतात.

हे लोक आपलेभितरच झगडीं सोडयतात. खून, चोरी वा हेर कसल्याय वायट कर्तुपांखातीर तांकां जनावरां दंड म्हूण दिवंचीं पडटात.

- कों. वि. सं. मं.

**मिशी :** (पळेयात खाड).

**मिस्त्रि, रतन बंदुजी :** (जल्म : २१ एप्रिल १९२६, गांधीली, औरंगाबाद).

सुटकेझुजारी. सासोली मार्गान गोंयांत येवन गोंयचे शीमेर जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. थंय पुलिसांनी ताचेर लाठी हल्लो केलो. १ मे १९८५ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मीठ :** खाणाजेवणाक रूच हाडपी म्हूण सर्रासपणान आनी सगळयाक संवकळीचो असो वापरांत आशिल्लो पदार्थ. खाणाजेवणाभायर वखदां आनी उद्येगधंदे ह्या मळांवयलोय तो एक म्हत्वाचो पदार्थ आसा. रसायनीक परिभाशेंत मिठाक सोडियम क्लोरायड (Sodium Chloride) म्हण्टात. ताचें बरोवपाचें रसायनीक सूत्र NaCl आसा. हो पदार्थ Salt (क्षार) ह्या रसायनीक संयुगाचें सामान्य रूप आशिल्ल्यान ताका इंग्लिशींत Common Salt (सामान्य क्षार) अशें म्हण्टात. खाऱ्या उदकाचे झरे, सरोवरां, न्हंयो, दर्या हांच्या उदकांत विरगळिल्ल्या रुपांत आनी खनिजांच्या रुपांत मीठ मेळटा.

मीठ हो रंगविरयत, पारदर्शक, घनाकृती, स्फटीकाचो गुणधर्म आशिल्लो पदार्थ. 0°c उदकाच्या २.१६५ पटीन मीठ जड आसा. ताचो वितळबिंदू ८००° से. जाल्यार विरगळबिंदू २०° से. हवामानांत उदकाचे १००वांट्यांत मिठाचे ३६ अंश विरगळूंक शकता. उकळबिंदू १४१३°से. मिठा उदक ०.१०° से. च्या तापमानासकयल दवरलें जाल्यार ताचे क्रिस्टलायन हायड्रेट (NaCl. $2H_2O$) चे खडे तयार जातात.

**इतिहास :** सुर्याच्या वतान वा उजाच्या धगान खारें उदक आटोवन मीठ तयार करप हें खूब आदल्या काळचें गिन्यान. खणींतल्यान खनीज मीठ तयार करपाची प्रक्रिया सुमार इ.स. पयलीं १४०० वर्सां अस्तित्वांत आयली. हेडगें जिवीत फाटीं पडून शेतकी उत्पादनाचें युग सुरू जालें. तेन्नासावन मिठाचो उपेग दोन कारणां खातीर जालो आसूं येताः १) शेतकी उत्पादनाचेर आदारीत अन्नाची गरज म्हूण आनी २) शेतकी उत्पादन आदारीत जीवन अवस्थेंत धर्मीक चालीरितीचो जाल्ल्या उदयाचो परिणाम म्हणून.

धर्मीक चाली अंतर्गत देवाक दान करपाच्या जिनसांमदीं मिठाचो आस्पाव मुखेलपणान जातालो. तिगोवन दवरपाचो गुणधर्म आंगांत आशिल्ल्या मिठाक निश्ठेचें प्रतीक म्हूण संस्कृतीक संदर्भ फाव जाला. हाकालागून true to salt म्हणजे निश्ठावान (इंग्लीश), नमक हराम म्हणजे बेइमान (पर्सीया), खाल्ल्या मिठाक जागपी म्हळयार इमानी (कोंकणी) अशे तरेचे मिठासंबदिचे वाक्प्रचार वेगवेगळ्या भाशांनी मेळटात.

इथिओपिया, आफ्रिका आनी तिबेटच्या कांय भागांनी मिठाखड्यांचो चलन म्हूण वापर जाल्ल्याची नोंद मेळटा. रोमन सैनिकांक मिठाभत्तो दिवपाची पद्दत आशिल्ली. साम्राज्यवादी काळांत त्या काळच्या Salarium भत्त्यावयल्यान Salary (सेलरी) हो इंग्लीश शब्द तयार जाला.

मिठाचें अशे तरेचें म्हत्व लक्षांत घेवन मिठाचें उत्पादन आनी पुरवण सैमीक खाऱ्या उदकाच्या सांठ्यापसून तयार करतात. भारतांत ७५% मीठ उत्पादन हें दर्या उदकापसून तयार जाता. चीन, फ्रांस, भारत, इटली, रशिया, इंग्लंड, अमेरिका आनी जर्मनी हे मुखेल मीठ उत्पादक देश आसात. गुजरात, तमिळनाडू, राजस्थान, महाराष्ट्र, आंध्र प्रदेश ओरिसा, गोंय, कर्नाटक, अस्तंत बंगाल, हिमाचल प्रदेश हीं भारतांतलीं मुखेल मीठ उत्पादक राज्यां.

मीठ उत्पादनाचीं तीन केंद्रां आसातः १) दर्या उदक, २) धर्तरेवयले खारे उदकासांठे आनी ३) मिठाखणी.

दर्याउदक आनी खाऱ्या उदकाच्या सांठ्यापसून मीठ तयार करपाची पद्दत लागीं लागीं सारकीच आसता. सुर्याच्या वतावरवीं सैमीक पद्दतीन खाऱ्या उदकाचें वाफीकरण जालें म्हण्टकच मिठाउदकाची द्रवरुपी मिठाकण धरपाची हद्द सोंपता. हवीकरणाक लागून उदकाचें प्रमाण उणें जालें म्हण्टकच द्रवरुपी मिठाचें मिठाकणयांनी रुपांतर जाता. प्राथमिक अवस्थेंतल्यो ह्यो मिठाकणयो उपरांत शुध्द करपाची प्रक्रिया सुरू जाता. खारें उदक सपाट जमनीच्या कुणग्यांनी भरून घेतात ते सुवातेक मीठागर म्हण्टात. ह्या कुणग्यांनी उदक सुर्याचे उश्णतेन तापता आनी मिठाकणयो जावपाची प्रक्रिया घडटा. सैमीक सुर्याचे उश्णतेबगर इंधनावरवीं वाफीकरणाचे प्रक्रियेंतल्यान मीठ तयार करप जाता. हे पद्दतींत जमनीच्या कुणग्यांच्या



मिठागर

हांचेर सरकारी नियंत्रण आदल्या काळासावन तें आतांमेरेन चालू आसा. ब्रिटीश राजवटीचे सुरवेक भारतांत इंग्लंडासावन मीठ आयात जातालें. ही आयात १९५४ त बंद जावन उपरांत खासा भारतच मिठाची निर्यात करपाइतलें मिठाचें उत्पन्न भारतांत जावंक लागलें. १९३० त मिठावयलो कर रद्द करपाच्या उद्देशान महात्मा गांधीच्या हा फुडारपणाखाल दांडी यात्रा ह्या नांवाचो सत्याग्रह जालो. ह्या सत्याग्रहाचो परिणाम म्हणून कर धोरण सरळ जावन स्वदेशी मीठ उद्देगाक कांय सवलती मेळ्ळयो. मिठाच्या उद्देगाक मार्गदर्शन मेळचें ह्या उद्देशान भावनगर हांगा सेंट्रल सॉल्ट मरीन कॅमिकल रिसर्च इन्स्टिट्यूटची स्थापना जाली.

**उत्पादन पद्दती :** संवसारीक मीठ उत्पादन मुखेल करून धर्तरेवयल्या जाग्यार उदक तापोवपाखातीर कायली सारकिल्ल्या आयदनाचो वापर करप जाता. एके पळोवणेंतल्यान मेळिल्ले म्हायती प्रमाण गोंयचे खाजन जमनींतलें १९९१वर्साचे मिठाचें उत्पादन अशें : पेडणे (१००० मॅ. ट.), बारदेस (५०००मॅ. ट.), तिसवाडी (९०००मॅ. ट.), साश्ट (३००० मॅ. ट.)

**उपेग :** मिठाचो उपेग तीन तरांनी जाता. जेवणाखाणांत रूच हाडपाखातीर, तशेंच अन्नपचन आनी शरिरांत घडपी प्रकियेचो एक आवश्यक पदार्थ म्हूण मिठाची गरज लागता. सादारणपणान मनशाक दर दिसा ५ ते १० ग्रॅम. मीठ जाय पडटा आनी ह्या मिठाची पुरवण ताच्या अन्नांतल्यान जावंची अशी अपेक्षा आसता. घाम, ओंकारी, हागवण, हुलपप वा दुश्परिणामी

वखदां हांकां लागून शरिरांतलें मिठाचें प्रमाण उणें जाता. अशा मनशांक मिठाची सर्वसादारण मिठापरस चड गरज लागता. दूख, सूज, तिरपणी सारक्या दुखऱ्या भागाचेर उपाय म्हूण गरम मिठाचो शेक दिवप जाता. कातीक पडिल्ले कातरे तशेंच हेर चवनांचेर मीठ फाफुडल्यार तीं बेगीन पेकतात.

पोटखणें तशेंच अजीर्णाखातीरय हेर पदार्थांवांगडा मिठाचो उपेग करप जाता. नुस्तें, मांस, लोणचें, फळां सारकिल्लीं खाणां चड दीस तिगोवपाखातीर मिठाचो वापर करप जाता. चामडें, वस्त्रां, कागद, धातू, तेलां हांचें उत्पादन प्रक्रियेंत मिठाचो वापर जाता. रसायनां आनी वखदां खातीरय मीठ वापरतात.

गलगंड हे पिडेचेर उपाय म्हणून आयोडिन घाल्लें आयोडिनयुक्त मीठ वापरतात. लोहाचो आस्पाव आशिल्लें लोहयुक्त मीठ पंडुरोगाचेर उपाय जावन आसा. कॅल्शीयम सल्फेट, मॅग्नेशियम क्लॉरायड, मॅग्नेशियम सल्फेट, मॅग्नेशियम ब्रॉमायड, सोडियम सल्फेट, सोडियम कार्बोनेट, बायकार्बोनेट सारकिल्ले पदार्थ उपपदार्थ म्हूण मीठ तयार करपाचे प्रक्रियेंतल्यान निर्माण जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** मिठाचो सत्याग्रह.

## मीड, जेम्स एडवर्ड : (जल्म : २३ जून १९०७, स्वानिज, ग्रेट ब्रिटन).

नामनेचो ब्रिटीश अर्थशास्त्रज्ञ. ऑरिएल महाविद्यालयांतल्यान पयल्या वर्गांत पदवेची परीक्षा पास जातकच १९३०-३१ वर्सा ताणें केंब्रिज हांगा आपलें पदव्युत्तर शिक्षण घेतलें. थंय नामनेचो अर्थशास्त्रज्ञ जॉन मेनार्ड केन्स हाच्या ट्रीटिज ऑन मनी ह्या ग्रंथावयल्या चर्चासत्रांत वांटो घेवपाची ताका संद मेळ्ळी. १९३०-३७ ह्या काळांत ताणें ऑक्सफर्डच्या हर्टफर्ड महाविद्यालयांत अधिछात्र म्हूण काम केलें. त्याच काळांत १९३६ वर्सा ताचें 'ॲन इंट्रोडक्शन टू इकॉनॉमिक ॲनालिसिस अँड पॉलिसी' हें पुस्तक उजवाडा आयलें. फुडें १९३७ ते १९४७ मेरेन तो राश्ट्रसंघाच्या 'वित्तविभाग आनी अर्थीक गुप्तवार्ता सेवे' चो वांगडी आशिल्लो. १९३८-४० हीं दोन वर्सां ताणें हेच संस्थेच्या जागतिक अर्थसर्वेक्षणांचो संपादक म्हूण काम केलें. १९४० ते १९४५ मेरेन मंत्रिमंडळाच्या कार्यालयाच्या अर्थविभागाचो वांगडी आनी १९४६-४७ वर्सा संचालक म्हणून ताणें काम केलें. १९४४ वर्सा 'National Income And Expenditure' हें पुस्तक मीड आनी रिचर्ड स्टोन ह्या अर्थशास्त्रज्ञान मेळून बरयलें. १९४८ वर्सा ताचें Planning and the Price Mechanism हें पुस्तक उजवाडा आयलें.

ताच्या The Theory of International Economic Policy ह्या दोन खंडांच्या ग्रंथाक १९७७ वर्साचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. ह्या ग्रंथाचो पयलो खंड 'The Balance of Payments' १९५१ वर्सा आनी 'Trade and welfare' १९५५ वर्सा उजवाडा आयले. १९७७ वर्साचो हो नोबॅल पुरस्कार मीड जेम्स एडवर्ड आनी बर्टिल ओहलिन हांकां वांटून मेळ्ळो. ह्या ग्रंथांत आंतरराश्ट्रीय अर्थीक अडचणी आनी दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांतच्या काळांतल्या अर्थीक पुनर्रचनेच्या कार्यावळींचो आस्पाव जाता. अर्थशास्त्राच्या सिध्दांतांचो तो एक मोलादीक ग्रंथ म्हूण ताका मान्यताय मेळ्ळया.

१९४७ ते १९५७ ह्या काळांत ताणें लंडन अर्थशास्त्र संस्थेंत वाणिज्य विशयाचें अध्यापन केलें. ह्याच काळांत ताणें 'Geometry of International Trade' (१९५२) आनी The Theory of Customs Unions (१९५५) हीं पुस्तकां बरयलीं. १९५७-१९६९ ह्या काळांत ताणें केंब्रिज विद्यापिठांत अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक म्हूण काम केलें. १९६० वर्सा ताचें 'A Neo-Classical Theory of Economic Growth (१९६०) हें पुस्तक उजवाडा आयलें.

१९५७-७४ ह्या काळांत ताणें क्राइस्टस महाविद्यालयांत, नफील्ड जेश्ठ संशोधन अधिछात्र, १९६०-७४ ह्या काळांत लंडन अर्थशास्त्र संस्थेंत अधिशासक अशीं कामां केलीं. बाझेल, हल, ऑक्सफर्ड, ग्लासगो ह्या विद्यापिठांनी ताका मानाची डॉक्टरेट ही पदवी दिली.

ताचीं हेर कांय नामनेचीं पुस्तकां अशीं- Planning and The Price Mechanism (१९४८), The Intelligent Redicles Guide To Economic Policy (१९७५), Efficiency, Equality And the Ownsership of Property (१९६४), The Inheritance of Inequalities (१९७४), The Just Economy (१९७६), तशेंच Principles of Political Economy ह्या ग्रंथाचे चार खंड १. The Stationary Economy (१९६५), २. The Growing Economy (१९६८), ३. The Controlled Economy (१९७१) आनी ४. The Just Economy (१९७६).

१९६० वर्सा मीड मॉरिशसचे अर्थीक, समाजीक पळोवणी समितीचो, अध्यक्ष आशिल्लो. ग्रेट ब्रिटनचे प्रत्यक्ष करपद्दतीची रचणूक आनी १९७५-७७ वर्सा सुदारणा समितीचो अध्यक्ष आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## मीन : भारतीय राशिचक्रांतली बारावी आनी निमाणची रास. हे राशींत पूर्वाभाद्रपदाचो चवथो चरण, उत्तराभाद्रपदा आनी रेवती मेळून सवायदोन



नक्षत्रां येतात. मत्स्यजोडी (नुस्त्याची जोडी) ही हे राशीची आकृती मानल्या. हे राशींत ठळक असो एकूय तारो ना. गुरू हो हे राशीचो स्वामी आसून शुक्र हे राशींत उच्चीचो आसता. बुध, मंगळ आनी

शनी हे राशींत निर्बल मानतात. हे सायन (संपात चलन मतींत घेतिल्ल्या) राशींत सूर्य २१ फेब्रुवारी ते २१ मार्च आसता. भारतीय आनी अस्तंत पद्दतींत मीन राशीचे मर्यादेंत फरक दिसता. देखीकः पूर्वाभाद्रपदा आनी उत्तराभाद्रपदा ह्या चार ताऱ्यांचो पेगॅसी चवकोन अस्तंते पद्दतींत वेगळो मानतात, म्हळयार तो मीन राशींत ना; पूण भारतीय पद्दतींत तो मीन राशींत आसा. हो चवकोन खूब व्हड आसून मळबांत तो सामको रितो दिसता; पूण हातूंत १६२ तेजोमेघांचो (Bright Nebula) एक संघ, धा कोटी उजवाड वर्सां अंतरावयल्यान वता. तातुंतलें एक एका तेजोमेघ हें विश्वूच आसा.

हे राशीच्या क्षेत्रांतलो सगळयांत तेजीश्ट तारो चवथे प्रतीचो आसा. हे राशींत वसंत संपात आनी क्रांतिवृत्ताचो व्हड भाग येता. V आकाराची ही मंद रास पेगॅसी चवकोनासकयल दिसता. सूर्य हे राशींत आसतना २१ मार्च हो विषुवदीस येता. ही रास नोव्हेंबराच्या मध्याक रातच्या णव वरांचेर मध्यमंडलार आसता.

हे राशीच्या लोकांक गायन-वादनाची आवड आसता. ही रास बायल, दोन स्वभावांची, उदकतत्त्वाची, आर्द्र आनी बहुप्रसव अशी आसा. मनशाचे कुडींत हे राशीचो शेक पोट आनी आंतडी हांचेर आसता.

हे राशीचे विसरप आनी निश्काळजीपणा हे दोन दोश आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## मीनांदर : (सुमार इ.स. पयलीं १११-९०).

पुर्विल्ल्या काळांतलो एक नामनेचो यवन राजा. 'मिलिंदपन्ह' म्हळयार मिलिंदप्रस्न ह्या पाली ग्रंथावयल्यान ह्या ग्रीक राजाची माहायती मेळटा. ह्या ग्रंथांत, शाकल म्हळयार पंजाबांतलें सियालकोट हांगाचो बळिश्ट राजा मिलिंद, हाणें बौध्द भिक्षू नागसेन हाका बौध्द धर्म आनी तत्त्वज्ञान हेविशीं विचारील्ले प्रस्न आनी तांच्यो जापो हो ह्या ग्रंथाचो विशय जावन आसा. हो मिलिंद राजा म्हळयारूच मीनांदर.

ह्या ग्रंथाप्रमाण मीनांदराचो जल्म शाकलासावन २०० योजनां पयस आशिल्ल्या अलसंद द्वीपांतल्या कलसी ह्या गांवांत जालो. हें अलसंद म्हळयार हिंदी कॉकेशस पर्वतालागीं अलेक्झांडरान स्थापिल्लें अलेक्झांड्रिया. आतां ताका चरिकर म्हण्टात.

मिलिंदपन्हांत ताचें वर्णन आयलां तें अशें- तो शरीरान बळिश्ट, बुध्दीन चाणाक्ष आनी भासाभास करपाक चतुर आनी शूर आशिल्लो.

पंजाब प्रांत, वायव्य सरहद्द प्रांत (गांधार देश), ताचे पलतडचो टोळीवाल्यांचो प्रदेश, सिंधाचो कांय वाठार, उत्तर प्रदेशाचो अस्तंत वाठार आनी काठेवाड ह्या प्रदेशाचेर मीनांदर राज्य करतालो. ताणें बौध्द धर्म आपणायल्लो. ताच्या कांय नाण्यांचेर ताचें ध्रमिक म्हळयार धर्मीक अशें विशेशण आसा. प्लूटार्क म्हण्टा, मीनांदरच्या मरणाउपरांत ताच्या राज्यांतल्या जायत्या शारांनी ताच्या अवशेशांचेर हक्क सांगून तांची आपसांत वांटणी केल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

## मीर : (जल्म : १७२३ आग्रा; मरण : २० सप्टेंबर, १८१०, लखनौ).

एक श्रेश्ठ उर्दू कवी. ताचें पुराय नांव मुहंमद तकी मीर. ताच्या बापायचें नांव मुहंमद अली मुत्तकी. मीर हाचो बापूय आनी बापायचो इश्ट सैय्यद अमानउल्लाह हांचे मीराचेर ल्हानपणांतूच बौध्दिक संस्कार जाले.

पिरायेच्या सतरा वर्सांचेर म्हळयार १७ एप्रिल १९३९ दिसा मीर दिल्लीक आयलो. त्यावेळार थंय रक्तपात, खून, लूटमार चालू आशिल्ली. मीर हाका हे सगळे अत्याचार पळोवंचे पडले. नादिरशहाचो हल्लो, महंमदशहाचें मरण, अब्दालीचे अत्याचार, मराठे, शीख, रोहिले आनी जाट हांचीं आक्रमणां हाकालागून दिल्ली उद्ध्वस्त जाली. कितलींशींच घराणीं भूंयभरवण जालीं. त्यावेळार मीराक समसामुद्दौला आनी राजा नागरमल हांचो आदार घेवंचो पडलो. उपरांत तो राजा जुगुलकिशोर हाचेकडे रावलो.

मीराचें साहित्य खूब व्हड आसा. ताच्या गझलांचे 'स' दीवान म्हळयार संग्रह आसात. तातूंत दोन हजारांपरस चड गझली आसात आनी सुमार पंदरा हजार 'शेर' आसात. नबाब आसिफउद्दौलाचे शिकारेचो विशय घेवन 'शिकारनामे' ह्या नांवान ताणें दोन काव्यां बरयल्यांत. 'अजगरनामा' नांवाची एक मस्नवी म्हळयार दीर्घकाव्य ताणें बरयलां.

तशेंच फार्सी भाशेंतूय ताणें बरेंच लिखाण केलां. जिणेंतल्या तीन निमाण्या वर्सांची आपजीण ताणें 'जीकरे-मीर' ह्या ग्रंथांत बरयल्या. 'निकातूश-शोअरा' हो ग्रंथ आनी 'फैजे-मीर' ही गद्य-रचणूक आसा. पूण गझल बरपावळीक लागून मीराक चड नामना मेळ्ळी. त्या काळांत ताणें उर्दू गझलींक आपल्या अनुपम कलात्मक शैलीन फार्सी गझलींचो दर्जो मेळोवन दिलो.

ताची भाशा सादी, सोंपी, रसाळ आनी भावनेन भरिल्ली अशी आसा. ताचें काव्य सादें तितलेंच उपरोधीक आनी धारदार आसा. ताच्या काव्यांत मोवसाण आनी कठीणताय आसा. तळमळ, संवेदनात्मक काळीज, काळजाचो थाव घेवपी भाशा आनी जिणेंतल्या अणभवांतल्यान आयिल्लीं उतरां ताच्या गझलींतल्यान दिसतात. ताच्या काव्यांत प्रितीच्योय सगळयो भावना, रंग दिसतात. तो म्हण्टा -

*कहता है दिल के आंखने मुझको किया खराब*
*कहती है आंख ये के मुझे दिलने खो दिया*
*लगता नहीं पता के सही कौनसी है बात*
*दोनों ने मिलके मीर हमें तो डुबोदिया*

**अर्थ -** काळीज म्हण्टा, हो सगळो घात दोळयांक लागून जालो. दोळे म्हण्टात, ही आपत्ती काळजाक लागून आयली. खरें किदें तें कळना. पूण दोगांयनी मेळून मात मीराक फटयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मीराबाई :** (जल्म : सुमार १४९८, कुडकी- राजस्थान; मरण : सुमार १५४७, द्वारका).

राजस्थानांतली एक म्हान कृष्णभक्त संत कवयित्री. तिचें जीवनवृत्त आनी काळ हेविशीं निश्चित म्हायती मेळना. पूण त्याच काळांतल्या कांय कवींच्यो काव्यकृती आनी दंतकथा हांचेवयल्यान मीरेचें चरित्र मेळटा.



मीरा वा मीराँ हो शब्द फार्सी भाशेंतल्यान राजस्थानींत आयलो आसूं येता.

तिच्या बापायचें नांव रतनसिंह. तो राजस्थानांतल्या मेडतिया गांवाचो राठोड आशिल्लो. तिच्या आज्याचें नांव राव राठोड दूदाजी. तो वैष्णव भक्त आशिल्लो. ल्हानपणांतूच तिचो आवय-बापूय मेल्ल्यान, तिच्या आज्यान तिचो सांबाळ केलो.

भगवान कृष्णाची भक्ती तिच्या मनांत कशी उत्पन्न जाली हेविशीं कांय आख्यायिका आसात. त्यो अशो- (१) एक फावट दारांतल्यान व्हंकलपावणी वता आसतना मीरेन आपले आवयक विचारलें 'म्हजें लग्न कोणाकडे जातलें?' तेन्ना कृष्णाचे मूर्तीकडे बोट दाखोवन आवयन म्हळें, 'हो तुजो घोव'. त्या दिसासावन मीरा कृष्णाची भक्ती करपाक लागली. २-एकदां दारांत एक साधू आयलो. ताचेकडे कृष्णाची मूर्ती आशिल्ली. ती मीरेक खूब आवडली. तिणें हट्टान ती मूर्ती मागून घेतली आनी रातदीस कृष्णाची पुजा करपाक लागली.

वयांत येतकच सुमार १५१६ वर्सा, उदयपुरचो महाराणा संग हाचो चलो भोजराज, हाचेकडे तिचें लग्न केलें. पूण थोड्याच दिसांनी तिचो घोव मेलो. उपरांत बापूय, मांव, देर हांच्या एका फाटोफाट मरणान मीरेक सामकें वैराग्य आयलें. ताकालागून ती कृष्णभक्ती आनी साधू-संतांचो सांगात हातूंत वेळ सारपाक लागली. राजघराण्यांतले बायलेन सगळ्या लोकांसामकार देवळांत पदां म्हणून नाचप हें भोजराजाचो सावत्र भाव, राणा विक्रमादित्य हाका मानवलेंना. तो तिचो छळ करपाक लागलो. हें तिच्या पदांतल्यान दिसता. मीरेन आपल्या भक्तिबळार सगळे हाल सोंसले. पूण निमाणे उबगण येवन घोवाच्या घराचो त्याग केलो आनी ती आपल्या चुलत्याकडे आयली.

थोड्याच दिसांनी मीरेची थंयचीय सुखी जीण सोंपली. राजकीय उलाढालींत मेडतियाचेर, जोधपूरच्या राव मालदेवाची सत्ता सुरू जाली आनी मिरेच्या चुलत्याक वनवास भोगचो पडलो. तेन्ना तिणें तीर्थयात्रेक प्रस्थान केलें.

पयलीं ती वृंदावनांत गेली आनी थंयसावन १५४३च्या सुमाराक द्वारकेक गेली. निमाणेमेरेन द्वारकेकूच रावली.

मीरेच्या पदांच्या प्रसाराक लागून, तिच्या मूळ राजस्थानी भाशेंत ब्रज आनी गुजराती भाशेवांगडाच पंजाबी, खडी बोली, पूरबी ह्या भाशांचें मिश्रण जालां. तिच्या पदांतलो मुखेल विशय भक्ती आसलो तरी तातूंत वैयक्तिक अनुभव, कुळाची मर्यादा, गुरूगौरव, सोयऱ्या-धायऱ्यांकडे जाल्ले मतभेद तशेंच तांणी केल्लो त्रास, आराध्यदेवतास्तुती, प्रार्थना, प्रणयानुभूती, विरह, लीलामाहात्म, आत्मसमर्पण हे विशय आयल्यात. 'मीरा के प्रभु गिरिधर नागर' ही तिच्या पदांतली नाममुद्रा जावन आसा.

मीरेच्या गुरूविशीं जायते वाद चलतात. तरी रैदास, वल्लभसंप्रदायी विठ्ठलनाथ, तुलसीदास जीवगोस्वामी ह्या गुरूंचीं नांवां घेतात. पूण तिच्या पदांनी रैदास गुरूचो चड उल्लेख येता. तिच्या रचनांविशीं निश्चित म्हायती मेळना.

पदावली ही तिची एकमेव, महत्वपूर्ण आनी प्रमाणभूत कृती म्हणूं येता. पूण पदावलींतल्या पदांची संख्या अनिश्चित आसा. विंगड विंगड संस्करणांतल्या तिच्या पदांची संख्या उण्यांतउणी २० आनी चडांतचड १३१२ इतली मेळटा. तातुंतलीं 'मीराँबाईके भजन (लखनौ १८९८), मीराबाईकी शब्दावली (अलाहाबाद १९१०), मीराँबाईकी पदावली (प्रयाग १९३२), मीरा की प्रेमसाधना (पाटणा १९४७), मीराँ स्मृतिग्रंथ (कलकत्ता १९५०), मीराँ बृहत् पदसंग्रह (काशी १९५२), मीरा माधुरी (काशी १९५६), मीराँ सुधासिंधु (भीलवाडा १९५७) हीं संस्करणां उल्लेखनीय आसात.

मध्ययुगीन राजस्थानी, गुजराती आनी हिंदी साहित्यांत संत कवयित्री म्हूण मीरेक उंचेली सुवात मेळ्ळया. नाभादास, प्रियादास, ध्रुवदास, मलूकदास, हरिराम व्यास ह्या संतचरित्रकारांनी आनी संतांनी मीरेविशीं तोखणायेचे उद्गार काडल्यात.

अनुप जलोटा, लता मंगेशकर, एम्. एस्. सुब्बुलक्ष्मी, अनुराधा पौडवाल ह्या नामनेच्या गायकांनी मीरेचीं पदां गायल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**मीस्त्राल, गाब्रिएला :** (जल्म : ७ एप्रिल १८८९, व्हिकुनां - उत्तर चिली; मरणः १० जानेवारी १९५७, हेंपस्टेड - न्यूयॉर्क).

चिलिअन कवयित्री. मूळ नांव लुसीला गोदॉय आल्कायागा. काव्यलेखन

स्पॅनिश भाशेंत. तिचे आवय-बापूय शिक्षक आशिल्ले. ती ल्हान आसतनाच तिच्या बापायन तिचे आवयचो त्याग केलो. तिचे आवयन आनी सावत्र भयणीन तिका शिक्षण दिलें. ती स्वताय फुडें शिक्षिका जाली आनी उपरांत प्राध्यापिकाय जाली. शिक्षणतज्ञ म्हणूनय तिका नामना मेळ्ळी. राजनीतीक सेवे निमतान माद्रीद, नीस, जिनोआ हांगा ती भोंवली. एकवटीत राश्ट्रसंघ आनी लिग ऑफ नेशन्स हांगाय समाजीक संस्कृती समित्यांचेर तिणें मोलादीक काम केलें. आपल्या मोग्यान आत्महत्या केल्ल्यान तिच्या जिवितांत थोडेंभोव निर्शेल्लेंपण आयलें म्हूण ती जल्मभर आंकवार रावली.

'सॉनेतोस दे ला मूएर्ते' (Sonnets of death) ह्या नावांन तिणें बरयल्ल्या तीन सुनीतांक लागून कवयित्री म्हूण तिका पयलीं नामना मेळ्ळी (१९१४). गाब्रिएल मीस्त्राल हें टोपण नांव तिणें त्याच वेळार घेतलें. गाब्रिएले दान्नून्त्स्यो (नामनेचो इटालियन कवी) आनी फ्रेदेरीक मीस्त्राल (नामनेचो प्रॉव्हांसाल कवी) ह्या आपल्या दोन आवडट्या कवींच्या नांवाच्या आदारान तिणें हें टोपण नांव तयार केल्लें.

'देसोलासियॉन' १९२२ (Desolation), 'तेर्नुरा' (१९२४,Tenderness), 'ताला' (१९३८,Failing of trees) आनी 'लागार' (१९५४,The wine press) हे तिचे कवितांझेले खूब लोकप्रिय जाले.

सोंपिल्ल्या प्रेमाचे अणभव तिणें 'दोलॉर' सारके आपले कवितेंतल्यान परगटायल्यात. तशेंच अतृप्त उरिल्ल्या आवयपणाच्या कोमल भावनांकूय तिणें आपले कवितेंतल्यान वाट करून दिल्या. मरणाची एकसारकी जाणविकाय, मनशाच्या सुख-दुख्खांकडे समरसता आनी धर्मीक भावना हांचें दर्शन तिच्या कवितांतल्यान घडटा. लँगस्टन ह्यूज आनी डोरीस डाना हांणी तिच्या काय वेंचीक कवितांचे इंग्लीश अणकार केल्यात.

१९४५ त तिका साहित्याखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो. नोबॅल पुरस्कार मेळोवपी ती पयली लॅटीन अमेरिकन बायल जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## मीस्त्राल, फ्रेदेरीक :

(८ सप्टेंबर १८३०, बुश-द्यु-रोन-दक्षिण फ्रांस; मरण : २५ मार्च १९१४, माय्यान).

नोबॅल पुरस्कार फाव जाल्लो फ्रेंच कवी आनी भासाभ्यासक. प्रॉव्हांसाल भास आनी साहित्य हांचें आपले कवीतेवरवीं पुनरुज्जीवन घडोवन हाडून ताणें तिका संवसारीक मान्यता मेळोवन दिल्ली.

ताचो जल्म एका सधन शेतकरी घराण्यांत जालो. आव्हीन्याँ हांगाच्या 'कॉलेज रॉयल' हांगा शिकता आसतना ताचो शिक्षक जोसेफ रूमानीय्य हाचेकडेन ताची इश्टागत जमली. ताणें १८५१त ॲक्स-आँ-प्रोव्हांस विद्यापिठांतल्यान कायद्याची पदवी घेतली. पूण वकिलीचो वेवसाय करपाचो सोडून तो जोसेफ रूमानीय्य हाच्या आदारान प्रॉव्हांसाल भास- साहित्य-संस्कृतीचो वावर करूंक लागलो. तेखातीर ताणें आपल्या कांय इश्टांच्या आदारान 'फेलिब्रीज' नांवाचें एक मंडळ सुरू केलें.

१८५९ त उजवाडा आयिल्ल्या 'मीरेइस' ह्या दीर्घकाव्यान ताका नामना मेळ्ळी. ह्या पुस्तकांत ताणें प्रॉव्हांसालवांगडा फ्रेंच भाशेंतलें रुपांतरय दिल्लें. ताचीं हेर पुस्तकांय द्विभाशीक प्रकाशनां आसात. एका गिरेस्त शेतकऱ्याची चली 'मीरेइस' आनी खोंटले विकपी गरीब मनशाचो चलो हांचे दुखेस्त मोगाकथेचेर मीरेइस आदारिल्ली आसून तातूंत प्रोव्हाँसांतल्या ल्हान गांवांतली जीण, थंयचो सैम, लोकांच्या स्वभावाचीं खाशेलपणां, तांचे परंपरीक रितीरिवाज, सण, परबो, नाच, पदां, तांच्योच प्रचलित आशिल्ल्यो लोककथा, हांचें चित्रण आसा. ह्या पुस्तकाचे १९६५ मेरेन वेगवेगळया भाशेंतल्यान ५० परस चड अणकार जाल्ले आसात.

मीस्त्राल हाचें 'कालाँदो' (फ्रेंच नांव कालाँदाल) हें दीर्घकाव्य १८६७ त उजवाडाक आयलें. हातूंत राजकन्या प्रोव्हाँस, तिका बंदिवासांत दवरपी लुटारू म्हळयार फ्रांस आनी तिची सुटका करपी राजपूत म्हळयार फेलिब्रीज, अशें चित्रण केलां. १८४८ पसूनचो ताचो उत्कृश्ट कवितांचो झेलो १८७५ त 'लिस ईस्कलो दॉर (इंग्लीश नांवः द गोल्डन आयल्स) ह्या नांवान उजवाडा आयला. उपरांतचीं ताचीं उल्लेख करपासारकीं प्रकाशनां अशीं: **कथाकाव्यः** 'नेर्तो'; (१८८४); **इतिहासीक नाटकः** 'ला रेनो जानो' (१८९०); **दीर्घकाव्यः** 'लू पुएम दु रोझ' (१८९७); **काव्यकृतीः** 'लिस उलीव्हादो' (१९१२); **आपजीणः** 'मेझोरिजिन' (१९०६); **कथासंग्रहः** 'प्रोझ दार्मांना' (तीन भाग). ताचें 'ली मेइसून' हें काव्य १८४८त ताच्या मरणाउपरांत उजवाडा आयलें. १८७८-१८८६ हाच्या मदल्या काळांत उजवाडा आयिल्ल्या लु त्रेझार दु केलिब्रीज (इं. नांव. 'द ट्रेझरी ऑफ द फेलिब्रीज) ह्या द्विखंडात्मक मोलादीक ग्रंथान ताका भासाभ्यासक म्हूण नामना मेळोवन दिल्ली. ह्या कोशांत ताणें दक्षिण फ्रांसाच्या प्रॉव्हांसाल भाशेंतले शब्द वाक्प्रचार, म्हणी, लोककथा हांचो सांक्षेपी आनी संशोधन तरेन संग्रह केला. भासाभ्यासाच्या मळावयल्या ताच्या ह्या वावराक लागून तशेंच ताची हेर साहित्य सेवा हाचो, स्पेनीश नाटककार एचेगाराई हाचे जोडयेन १९०४ वर्साचो नोबॅल पुरस्कार दिवन भोवमान केला. ताच्या बक्षिसाच्या रकमेंतलो कांय भाग ताणें आर्ल हांगा स्थापन जाल्ल्या 'म्युझेआन आर्लातान' ह्या वस्तुसंग्रहालयाखातीर दिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## मुंगूस :

सस्तन मांसाहारी प्राण्याच्या व्हायव्हेरिडी कुळांतल्या हर्पेस्टिनी उपकुळांतलो एक प्राणी. हाच्यो खुबशो जाती आफ्रिकेंतल्या उश्ण कटिबंधी वाठारांत मेळटात. तातुंतली हर्पेस्टिस ही प्रजाती स्पेन आनी दक्षिण आशियांत पातळ्ळ्या. भारतांत ताच्यो स जाती मेळटात. हातुंतलें ह. एडवर्डसी हें

सामान्य मुंगूस आनी ह. ऑरोपंक्टॅटस हें ल्हान भारतीय मुंगूस भारतांत सगळेकडेन दिश्टी पडटा. हे प्राणी स्वता तयार केल्ल्या बिळांत रावतात. तें आकारान ल्हान. पूण स्वभावान हिंस्त्र आसतात. ताचें तोंड अशीर, कान ल्हान, पांय आंखूड आनी शेंपडी ल्हान आसता. ताचे केंस गोबरा कोराचे आसून तें भिरांकूळ जातकच ताचे केंस उबे रावतात आनी तें आसा ताचेपरस आकारान खुबूच मोटें दिसता. तें ल्हान प्राणी, हुंदीर, पक्षी, तांचीं तांतयां, सोरोप, विंचू, बेबकी आनी किटक खाता. केन्ना केन्नाय कंदमुळां आनी फळांय खावन तें रावता. ताचे दांत तीक्ष्ण आसून मांसाचे कुडके करपाक योग्य आसतात. मुंगूस सुटसुटीत, शिटूक आनी धीट आसता. चडकरून तें आपल्या भक्ष्याच्या फाटीक लागून मागीर ताका



धरता. भक्ष्याचेर प्रत्यक्ष हल्लो करतना भक्ष्य बिळांत गेल्यार आपल्या तीक्ष्ण नाखटांनी बीळ उस्तून ताका धरता. ताचे कान ल्हान आसून ते बंद करूंक मेळटात. सोरोप हें ताचें आवडीचें भक्ष्य. नागासारक्या भिरांकूळ सोरपाक तें कांय न्ही करून धरता. सोरपाची तकली तोंडांत धरून ताची कवटी फोडून ताका मारप आनी अशें करतना ताचो विशारी दांत आपल्याक लागचो न्ही देखून ते जतनाय घेता. सोरपाचें वीख मुंगुसाक घातक जावंक शकता. पूण सोरपाचें वीख मुंगुसाक भिनल्यार तें एका विशिश्ट प्रकारच्या झाडाचीं (मुंगूसवाल) मुळां खाता आनी तेखातीर विखाचो ताचेर कांयच परिणाम जायना असो समज आसा. मुंगुसाच्या जिबेचो वयलो भाग खडबडीत आसता आनी हातूंत सोरपाच्या विखाचेर उपाय आसता अशी ब्रह्मदेशांत समजूत आसा. जमेका आनी मार्तीनीक ह्या वाठारांत व्हायपर जातीच्या सोरपाचो नाश करपाक, सोरोप मारपाक हुशार अशें ह. आरोपंक्टॅटस हे जातीचें मुंगूस सोडिल्लें.

ह. एडवर्डसी हे जातीचें मुंगूस भारतांत सगळेकडे दिश्टी पडटा. गांवां लागचीं मेकळी मैदानां, रानां, घरांचीं पाखीं हातूंतय मुंगूस रावता. हाचे फाटीर एका आड एक अशे गाड आनी फिक्या रंगाचे पटे आसतात. ह. स्मिथी हें मुंगूस आकारान व्हड पूण रंगान तांबशें आसता. ह. आरोपंक्टॅटस हें मुंगूस आकारान ल्हान पूण सोरोप मारपांत हुशार आसता. हें मुंगूस पुराय भारत, अफगाणिस्तान, बलुचिस्तान आनी इराण हांगा मेळटा. ह. फ्युस्कस हे जातीच्या मुंगुसाचो रंग तपकिरी आसता. हीं दक्षिण भारतांतले दोंगरावळींत ९०० ते १८५०मी. उंचायेचेर दिसतात. ह. व्हीटिकोलीस हें आकारान व्हड मुंगूस. हें रानांत मेळटा. तांच्या कानासावन खांदामेरेन काळे पट्टे आसतात. भारतांत सह्याद्रिचे वळींत तांची वसती आसा. ह. युरव्हा हें कुल्ल्यो खावपी मुंगूस ब्रह्मदेश, चीन, मलाया आनी आसाम हांगा सुमार १९८०मी. उंचायेमेरेन तांची वसती आसा. हें मुंगूस उदकांत पेवंक शकता.

मुंगूस बिळां करून पंगडान रावता. मादीक दर खेपे दोन वा तीन पिलां जातात. सुमार सात म्हयन्यांत तांची वाड पुराय जाता आनी तें स्वतंत्र जीण जगूंक शकता. प्राणीसंग्रहांत दवरिल्ल्या मुंगुसाची पिराय ७ ते १३ वर्सां मेरेन आशिल्ली दिसून आयल्या.

आकारान सगळयांत व्हड (लांबाय सुमार १.५मी.) इजिप्शियन मुंगूस (ह. इक्न्युमॉन) हें आफ्रिका आनी युरोपांत मेळटा. जाल्यार अशक्त दांतांचें आनी वाळटी खावपी धवे शेपडेचें मुंगूस (इक्न्युमिया अल्बीकौडा), बेबकां खावन रावपी मार्श मुंगूस (ॲटिलॅक्स पॅलुडिनोसस) आनी तांबशा रंगाचेर काळे पट्टे आशिल्लें पट्टेदार मुंगूस हीं आफ्रिकेच्या उदेंत आनी अस्तंत वाठारांत मेळटात. मीरकॅट (सरिकेटा सरिकेट्टा) हें बसक्या नाकाचें मुंगूस चानये वांगडा एकाच बिळांत रावता. मुंगुसाचें तोंड पळोवप शुभ असो समज आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मुंजो :** गांवांतल्या ब्राह्मणाचो एखाद्रो भुरगो मूज वा सोडमूज करचेआदीं मेलो जाल्यार ताका 'मुंजो' अशें म्हण्टात. ह्या मुंजाक पुरतात. हो मुंजो मानगुटीर बसता असो समज आसा. ताची बादा गांवाक जावंची न्ही देखून सगळया जातीजमातींचे गांवकरी एकठांय येवन प्रसाद घेवन वा घाडी हाचे वरवीं ताचो फाव तो बंदोबस्त करतात. ताका रावपाखातीर एखाद्रो माड वा झाड दितात. ह्या झाडाचेर देवस्पण करून ताका थंय दवरतात. हो माड चडसो तांबडो आसता आनी ताचे नाल्ल काडीनात. नाल्ल मेळळे वा काडलेच जाल्यार ते देवाक दितात. हें झाड कसलेय अडचणीक लागून पडलें जाल्यार परत देवस्पण करून मुंजाक दुसऱ्या झाडाचेर दवरतात. गांवचे लोक वर्सांतल्यान एक फावट ताका होंट दवरतात आनी दिवो लायतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मुंडकार आनी मुंडकार कायदो :** गोंय राज्य १९६१ वर्सा मेरेन पुर्तुगेज सरकाराचे राजवटीखाला आशिल्ल्यान गोंयांत मुंडकाराविशीं पुर्तुगेज सरकारान २४ ऑगस्ट १९१० ह्या दिसा संमत जाल्ले डिक्रीप्रमाण कांय नेम आंखून दिल्ले. उपरांत 'ले द मुंदकारांत' (दिप्लोम लेजीसलेतीव नंबर १९५२) हो कायदो अंमलांत हाडलो. ह्या नव्या कायद्यान वट्ट १४

नेम आशिल्ले. ह्या कायद्याची अंमलबजावणी गर्व्हनर जनरल 'इस्ताद द इंडिया' हाणें हुकूमनामो काडून केली.

गोंयची सुटका जातकच पुर्तुगेज कायद्यांत आनीकय कांय नेमांची भर घालून गोंय सरकारान १९७१ वर्सा गोंय, दमण आनी दीव मुंडकार, शेतांत वावुरपी कामगार आनी गांवगिऱ्या वाठारांतले कारागीर हांच्या संरक्षणाखातीर नवो कायदो अंमलांत हाडलो. ह्या नव्या कायद्यान पुर्तुगेज कायदे नेमांनी व्हडलेशे बदल केले नात.

गोंयची समाजीक रचणूक आनी परिस्थीतीन घडोवन हाडिल्लो बदल ह्या गजालींक पुराय थारो दिवपाखातीर १९७५ वर्सा नवो मुंडकार कायदो सरकारान संमत केलो. हो कायदो १२ मार्च १९७६ ह्या दीसा अंमलांत आयलो. ह्या कायद्यान मुंडकारांविशीं गोंयांत आशिल्ले दोनूय कायदे (पुर्तुगेज कायदो आनी १९७१ वर्सा संमत जाल्लो कायदो) रद्द थरयले.

नव्या मुंडकार कायद्याप्रमाण भाटकारान मुंडकारांक तांच्या घरांतसून धांवडावन घालपापसून संरक्षण दीवप आनी मुंडकारांक तांचीं घरां विकती घेवपाचो हक्क दीवप हाची तजवीज करप जाल्या.

नव्या मुंडकार कायद्याची चार विभागांनी आंखणी केल्ली आसा. पयल्या विभागांत मुंडकार कायद्यान वापर केल्ल्या तरेकवार उतरांच्यो व्याख्या बरयल्ल्यो आसात. हातुंतल्यो मुखेल व्याख्या म्हळयार मुंडकार, भाटकार आनी मुंडकाराचें घर.

जी व्यक्ती भाटकाराचे संमतीन ताच्या जाग्यांत कायम राबितो करून रावता, ताका मुंडकार अशें म्हळां. हे व्यक्तिवांगडा ताच्या घराब्याचोय आस्पाव जाता. मुंडकारांनी भाटकाराचें काम वा चाकरी करपाक जाय अशी तांचेर सक्ती ना. पूण जी व्यक्ती भाटकारान भाटांत काम करपाखातीर वा भाटाचेर नदर दवरपाखातीर पगारी स्वरुपान वा भाडेपट्टीच्या स्वरुपान दवरल्या ती व्यक्ती मुंडकार जायना.

मुंडकाराचें घर जे व्यक्तिच्या भाटांत आसा, ताका भाटकार अशें म्हळां. हे व्याख्येप्रमाण संयुक्त हिंदू घराबो, कोमुनीदाद, देवूळ, इगर्ज, मशिद वा हेर धर्मीक वा गरीबांक आदार दीवपी संस्था (Charitable Institution) हांकांय भाटकार म्हणूं येता. जे सुवातेचे मालकी हक्क सरकाराकडेन, नगरपालिका, ग्रामपंचायत, प्रोव्हदोरीया सारकिल्ल्या स्थानिक संस्थांकडे आसात, ते सुवाते संबंदान हो कायदो लागू पडना.

मुंडकार कायद्यांत 'मुंडकाराचें घर' ह्या उतराची व्याख्या सांगल्या ती खूब म्हत्वाची आसा. हे व्याख्येप्रमाण जर मुंडकाराचें घर ग्रामपंचायतीच्या वाठारांत आसत जाल्यार १) घर उबें आसा ती सुवात आनी घराच्या दर एके पारेतीसावन पाच मीटर अंतराचो जागो वा २) घराचें क्षेत्रफळ धरून सगळी ३००चौरस मीटर सुवात, हें मुंडकाराचें घर जाता. वयर उल्लेख केल्लो खंयचोय एक पर्याय मुंडकाराक निवडपाक मेळटा. जर घर नगरपालिकेच्या वाठारांत आसत जाल्यार, पांच मीटर अंतराच्या बदला २मीटर अंतर धरपाची आनी तशेंच २) तीनशें चौरस मीटराच्या बदला दोनशें चौरस मीटर जाग्याचो आस्पाव जाता. मुंडकाराचें घर हे व्याख्येन मुंडकाराचो गोरवां-वासरांचो गोठो, दुकरांचो, कुकडांचो घूड आनी मुंडकाराच्या कामा-धंद्याविशीं जी सुवात तो वापरता तांचोय आस्पाव जाता. ते भायर मुंडकाराच्या घराण्यांतलीं मनशां रस्त्यार येवपाक वा उदकाचे बांयकडे वचपाक जी वाट वापरतात तीय सुवात मुंडकाराच्या घराचें आंग जाता.

कायद्याच्या दुसऱ्या विभागांत मुंडकाराचे तरेकवार हक्क आनी जापसालदारक्यो हांचेविशीं तरतूदो केल्ल्यो आसात. मुंडकाराच्या मर्णाउपरांत ताचे हक्क ताच्या वारसदारांक फावो जातात, पूण मुंडकाराक ताचे जीणेंत मुंडकारी-स्वरुपाचे हक्क दुसऱ्याच्या नांवार करपाक मेळनात. भाटकार-मुंडकार हांचेमदीं आशिल्लो करार, कोर्टाची डिक्री वा निवाडो, तशेंच स्थानिक रितीरिवाज अस्तित्वांत आसल्यार लेगीत भाटकाराक मुंडकाराची घरांतसून हकालपट्टी करपाक मेळना. जर मुंडकाराक घरांतसून धांवडावपाचो भाटकार भंय दाखयता वा तेविशीं यत्न करता, जाल्यार तो मामलेदाराक अर्ज करून संरक्षण मेळोवपाक शकता. जर बळजबरीन भाटकारान मुंडकाराक घरांतल्यान भायर काडलो जाल्यार मुंडकारान घरांतल्यान भायर काडटकच एका वर्साभितर मामलेदाराक अर्ज करपाक जाय. जर भाटकारान मुंडकाराचें घर मोडलें वा घराचो कांय कुडको मोडलो जाल्यार मामलेदार चौकशी करून भाटकाराक, मुंडकाराक तसलेंच दुसरें घर दिवपाचो आदेश काडपाक शकता.

तंट्याची पुराय चौकशी करचेपयलीं मुंडकाराक घरांत रावपाक संरक्षण दिवपाची गरज आसा अशें मामलेदाराक दिसून आयलें, जाल्यार तो अंतरीम आदेश काडून मुंडकाराक हकालपट्टेआड संरक्षण दिवपाक शकता.

भाटकाराक मुंडकाराच्या घराविशीं उदक, वीज, पांयवाट (Customary Easements) सारक्या मुळाव्या गरजांविशीं हस्तक्षेप करपाचो कसलोच अधिकार ना. अशा गजालींनी भाटकारान जर ह्या मुळाव्या गरजांचेर आक्रमण केलें, जाल्यार स म्हयन्यांभितर मुंडकार मामलेदाराक अर्ज करून चवकशी करपाची विनंती करपाक शकता. तत्काळ आनी गंभीर स्वरुपाच्या गजालींनी मामलेदार मुंडकाराच्या संरक्षणाखातीर भाटकाराआड चवकशी केल्याबगर अंतरीम आदेश दीवपाक शकता.

मुंडकाराक आपलें घर सारकें करप, आसा त्या जाग्यार परतें बांदप आनी घराचें आधुनिकीकरण करपाक स्वातंत्र्य आसा. पूण ह्यो गजाली करतना ताका घराचें क्षेत्रफळ (सुवात) वाडोवंक मेळना. तशेंच मुंडकाराक घराखातीर उदकाची लायन आनी विजेची पुरवण मेळोवपाचे अधिकार दिल्ले आसात.

मुंडकाराक ताचें घर ताच्या राबित्याखातीर वापरूंक मेळटा, आनी घराचो कांय भाग कामा-धंद्याखातीर ताका वापरपाक मेळटा.

जर मुंडकाराक आपल्या हक्कांची अंमलबजावणी करून घेवपाक

जाय जाल्यार ताणें मामलेदाराक अर्ज करून कळोवपाक जाय. अर्ज दाखल केल्याउपरांत मामलेदार फावो ती चौकशी करून निवाडो दिता.

जर भाटकारान मुंडकार रावता, त्या भाटाची दुसरेकडे अदलाबदल केली, भाट विकलें, घाण दवरलें, भाडेपट्टेचेर दिलें वा दुसऱ्याचे सुवादीन केलें जाल्यार हातूंत मुंडकाराच्या हक्कांचेर कसलीच बादा येना.

कांय अपवादात्मक परिस्थितींत भाटकार मामलेदाराकडे अर्ज करून मुंडकाराची हकालपट्टी करपाक शकता- १) जर मुंडकारान आपले हक्क दुसऱ्याच्या नांवार सुवादीन केले वा २) मुंडकाराच्या घराब्यांतली एकूय व्यक्ती घरांत अखंडीतपणान दोन वर्सां रावना. मुंडकाराची इत्सा आसल्यार तो मामलेदाराकडे लेखी बरोवन दीवन मुंडकार हक्कांविशीं सोडचीट दिवपाक शकता.

मुंडकाराची इत्सा आसल्यार तो रावता तें घर भाटकाराकडल्यान विकतें घेवंक शकता. पूण ताणें तें घर विकतें घेवपाकूच जाय असो ताचेर दबाव हाडूंक मेळना. मुंडकार रावता तें घर आनी भोंवतणची सुवात सवलतीच्या दरान (१२ मार्च १९७६ ह्या दिसाचो बाजारभाव) विकत घेवपाक मुंडकारान मामलेदाराकडे अर्ज करपाक जाय. अर्ज करपी मुंडकार शेतकरी, कामगार वा गांवगिऱ्या वाठारांतलो कारागीर आसत जाल्यार ह्या दरान ताका २०% सूट मेळटा. मुंडकाराक घराचो दर १० वर्सुकी समान हप्त्यांनी पावतो करपाची सवलत आसा. पूण सगळो दर एकाच फावटीन मुंडकार पावतो करत जाल्यार ताका सगळया दरांतल्यान १०% सूट मेळटा. घरासंबंदान थरयल्लो दर मुंडकारान भाटकाराक पावतो करतकच ताका मामलेदार विक्री दाखलो दिता. त्या दिसा सावन मुंडकाराक ताचें घर तशेंच घरा भोंवतणची सुवात हाचेविशीं सगळे मालकी हक्क फावो जातात.

मुंडकाराची अर्थीक परिस्थिती लक्षांत घेवन घर विकतें घेवपाक ताका सवलतीच्या व्याजान रिणां दिवपाची तजवीज सरकारान केल्ली आसा. तशेंच आयुर्विमा महामंडळ आनी हेर अर्थीक संस्थांक मुंडकाराक हाचेखातीर रिणां सरकार उपलब्ध करून दिता. दिवाणी कोर्टाचो कसलेच तरेचो जप्तेचो वा विक्रेचो हुकूम मुंडकाराच्या घराक लागू पडना.

कायद्याच्या तिसऱ्या आनी चवथ्या विभागांत मुंडकार तंटे सोडोवपाविशीं पद्दत आनी मामलेदाराचे अधिकार हांचेविशीं तरतुदो आसात. मुंडकार हक्कां संबंदान उपरासपी प्रश्न वा तंटे सोडोवपाचे अधिकार फकत मामलेदार न्यायालयाक दिल्ले आसात. मामलेदार ह्या अधिकाऱ्याची सरकार नियुक्ती करता. दिवाणी न्यायालयांक मुंडकार तंट्याविशीं प्रश्न हाताळपाचे अधिकार नात. एकाद्र्या दिवाणी तंट्यांत न्यायलयामुखार मुंडकार प्रस्नाविशीं कसलोय मुद्दो निर्माण जालो जाल्यार तो थारावपाक दिवाणी न्यायाधिशान मामलेदाराक आदेश दिवंचो अशें कायद्यान प्रयोजन केल्लें आसा. मामलेदारामुखार मुंडकाराविशीं तंटे सोडोवपाची पद्दत दिवाणी न्यायालयीन प्रक्रियेपरस सोंपी आनी सुलभ जावन आसा. तंट्यांचो निकाल बेगोबेग लागचो आनी मुंडकारांचे अर्थीक परिस्थितीचेर ताण पडचो न्हय हे नदरेन वकिलांक मुंडकार तंट्यांनी भाग घेवंक मेळना. पूण अर्जदाराक कायद्याचें गिन्यान नासत वा तो अशिक्षीत आसत वा तंट्यांन कांय म्हत्वाच्या कायद्याविशीं प्रस्न उप्रासत जाल्यार मामलेदार पक्षकारांक वकिलांचो सल्लो घेवपाची मेकळीक दीता. मामलेदारान दिल्ल्या निवाड्याआड उंचेल्या पांवड्यावयल्या अधिकाऱ्यांकडे अपील वा रीवीजन करपाची तरतुदूय कायद्यान केल्ली आसा. हे हक्क गोंय राज्यान उपजिल्हाधिकारी, जिल्हाधिकारी, अतिरिक्त जिल्हाधिकारी, प्रशासकीय लवाद हांकां दिल्ले आसात.

मुंडकार कायद्याचें वेवस्थीत रीतीन पालन करपाखातीर १९७५ वर्सा सरकारान गोंय, दमण आनी दीव (हकालपट्टेसावन संरक्षण) नेम तयार केल्ले आसात. त्या नेमांनी मुंडकारांनी मामलेदाराकडे अर्ज दाखल करपाची पद्दत, मामलेदारान भाटकाराक भरपाय दितना मतींत घेवपाचे घटक, मुंडकारान घर विकतें घेवपाच्या अर्जाचें स्वरूप, घर विकतें घेतना हप्त्यांची पावती करपाची पद्दत, ह्या बारीक-सारीक गजालींचो तपशील आसा. तशेंच मामलेदारान चवकशी करपाची पद्दत, साक्षीपुरावे घेवपाची पद्दत तांतूत आस्पाविल्ली आसा. मामलेदारान निवाडो दितकच ताचें पालन केलेंना जाल्यार गुन्यांवकारी व्यक्तीचेर कारवाय करपाचे अधिकार मामलेदाराक दिल्ले आसात.

गोंय राज्यांत दर एका तालुक्यांत मामलेदाराची नेमणूक केल्ली आसा. तशेंच मामलेदारांच्या आदाराक जोड-मामलेदारांची नेमणूक केल्ली आसा, जांकां मामलेदाराचे अधिकार दिल्ले आसात.

**पूरक नोंद :** कूळ कायदो.

- ॲड. सुहास थळी

**मुंडा :** बिहारांतली एक आदिवासी जमात. छोटा नागपूर, पालामाऊ (डाल्टनगंज), हजारीबाग, रांची आनी सिंगभूम (छैबास) ह्या वाठारांनी मुंड लोकांची वसती आसा.

'मुंडा' ह्या शब्दाचो अर्थ भूमिपती असो आसून ते लोक स्वताक हरोको म्हळयार मनीस आनी आपल्या वंशाक 'होरो' म्हळयार मानव अशें म्हण्टात.

मुंडाच्यो भूमिज-मुंडा, खंगर-मुंडा, कोंकपाट-मुंडा अशो तीन उपजमाती आसून त्यो संकरांतल्यान निर्माण जाल्यात. मुंडाचो समाज कुळांचेर आदारून आसात. हीं कुळां सुमार ३२४ आसात. ह्या कुळांक स्वतंत्र गणचिन्नां आसून मुंडा लोक आपल्या बावट्याक खूब सांबाळटात. सणा-परबेक वा भौशिक दबाज्यावेळार हे बावटे लायतात.

शारिरीक नदरेन ही जमात सादारणपणान द्रविडवंशी आसली, तरी तिची ऑस्ट्रोआशियाई भाशासमुहांतली मुंडारी भास कोलारियन वा

कोलवंशोद्‌भव मानतात. मुंडारी भाशेंत जायत्यो कथा आनी गीतां आसात, पूण शाराच्या संपर्काक लागून ही भास कमी जायत आसा. संथाळ ह्या कोलवंशी तशेंच द्रविडी कंथ वा खोंड ह्या लोकांकडे तांचें सारकेंपण आसा.

काळो, पुडीकोराचो रंग, दाट ओंठ, रूंद मुखामळ आनी रूंद चेपटें नाक अशीं तांचीं द्रविडवंशी शारिरीक खाशेलपणां आसून ते बळिश्ट आनी मोटवे आसतात.

बायलो साडी-पोलको तशेंच दादले पुडवें आनी सदरो घालतात. बायलांक अलंकारांची खूब आवड आसून तीं कानांतलीं, वाळे, कांकणां ह्यो वस्ती घालतात. चलयो कपल, हात, पांय, खाडकी तशेंच फाटीचेर गोंदोवन घेतात.

हे लोक दोंगराच्या पठाराचेर घरां बांदतात. बरे स्थितींतल्या मुंड कुटुंबाचें घर म्हळयार एका चौकाभोंवतणी तीन-चार घरां मेळून जाल्लें आसता. सादारण मुंडाचें घर म्हळयार निदान दोन तरी खोंपी आसतात. तातुंतली एक खोंप रांदपाखातीर आनी दुसरी न्हिदपाखातीर वापरतात. घराच्यो वण्टी मातयेच्यो वा कोंड्यांच्यो आसतात. पांखें नळयांचें वा तणाचें आसता. घराचे खांबे आनी वांशे सागवानी लाकडाचे आसतात. दर एका घराफाटल्यान पोरसूं आसून तातूंत ते मको, मिरसांग, वायंगीं, दुदी पिकयतात.

शीत हें ह्या लोकांचें मुखेल अन्न. ताचेवांगडा भाज्यो, दाळ, कड्डण, मांस वा नुस्तें आसता. गरीब लोक मको आनी कांय झाडपालो उकडून खातात. तांदळांचो सोरो हें तांचें आवडटें पेय. दर एक कुटुंब आपल्या घराखातीर सोरो तयार करता. दादले तंबाकू खातात, कांय जाण विडयो ओडटात.

सिंग बोंगा (सूर्यदेव) हो तांचो देव. ते सैमदेवता आनी पूर्वज हांकांय भजतात. दर एक सणा परबेक ते सिंग बोंगाची पुजा करतात. तशेंच बुरूबोंगा, मरंगबुरू, एकिंद बोंगा ह्योय तांच्यो देवता आसात. गृहदेवतेक ते ओरा बोंगाको अशें म्हण्टात. 'आनातोंग बोंगा' ही कल्याण करपी तर 'बानिता बोंगा' ही कृध्द आनी भयंकर देवता अशे, तांच्या देवतांचे दोन वर्ग आसात. 'हातु बोंगासो' ही तांची ग्रामदेवता. पौशांतले पुनवेक ते पितृपूजा करतात.

मुंडा जमातींत तरनाट्या चले-चलयांखातीर शयनघरां आसतात. तांकां 'गिटिओरा' अशें म्हण्टात. हातुंतूच चले-चलयो आपलो भावी जोडीदार वेंचतात. ह्या युवाघरांत पदां म्हणप, नाच करप, केशभूशा करप आदी गजाली चलतात.

एकाच कुळांत लग्नां जायनात. वधू किंमत दिवपाची चाल आसून, ल्हान पिरायेचेर लग्नां जातात. चडकरून आवय-बापुयूच लग्न थरयता. लग्न व्हंकलेच्या घरा जाता. न्हवऱ्या-व्हंकलेन एकामेकांच्या कपलाक शेंदूर लावप (सिंदुरदान) हो मुखेल लग्नविधी आसता.

लग्नापयलीं दोगांयच्या घरा, आंगणांत माटव आनी मातयेचो सवो घालतात. हो सवो तांदळांच्या पिठान रंगयतात. चारूय वटांनी साल झाडाच्यो खांदयो लायतात.

लग्नाच्या तीन दीस पयलीं सदांच सांजवेळां न्हवऱ्या-व्हंकलेक आपापल्या सव्याचेर बसोवन तेल-हळद लायतात, उपरांत न्हाणयतात. लग्नाच्या आदल्या दिसा ओ वा चूनान हो विधी करतात. उपरांत न्हवरो वाजत-गाजत व्हंकले घरा वता. वाटेंत तो एका आंब्याच्या झाडाकडे रावन एक आकृती काडटा आनी ताका दोर बांदता. न्हवऱ्याची आवय दिमी मारून ताका विचारता, 'तू खंय वता?' न्हवरो सांगता, 'तुजी सेवा करपी आनी तुका रांदून वाडपी मनीस हाडूंक वता'. व्हंकलेचे गांवचे शिमेचेर व्हंकले वटेनच्यो सवायशिणी कळशांत उदक घेवन आंब्याचे खांदयेन न्हवऱ्याचेर शिंपडायातात. दुसऱ्या दिसा सकाळीं न्हवऱ्याक मेण्यांतल्यान व्हंकलेगेर व्हरतात. थंय न्हवरो व्हंकलेच्या आंगार तीन मुठी तांदूळ उडयता. उपरांत व्हंकल लागींच्याच एका आंब्या झाडाकडे वचून तांदळांच्या भिजयिल्ल्या पिठान एक मंगलचिन्न काडटा, आनी ताका सूत गुठलायता. ह्या विधीक 'उली-साखी' वा 'आम्र-साक्षी' अशें म्हण्टात. हें झाड तिच्या लग्नाक साक्षीदार आसता. हो विधी जातकच न्हवऱ्या वटेनच्यो सवायशिणी व्हंकलेक आनी व्हंकले वटेनच्यो न्हवऱ्याक तेल हळद लायतात. सव्याचेर दोन पत्रावळी दवरतात आनी न्हवऱ्या-व्हंकलेक एकामेकांसामकार उबीं करतात. न्हवरो आपल्या दाव्या पांयान व्हंकलेचो उजवो पांय दामता आनी आपली सिनाई स्वताच्या गळयाक लायता. उपरांत ती सिनाई व्हंकलेच्या गळयाक लायता. अशें तीन फावट करतकच तांच्या जाग्यांची अदलाबदल करतात. व्हंकल आपली सिनाई आपल्या आनी न्हवऱ्याच्या गळयाक तीन फावट लायता. सिंदुरदान जाता आनी तांच्या पदरांच्यो गांठी मारतकच लग्नसुवाळो सोंपता.

हठागमन विवाह, हरण विवाह, विधवा विवाह, घटस्फोट तशेंच एकापरस चड बायलांकडे लग्न जावपाची मेकळीकूय ह्या लोकांत आसा.

गारासी बोंगा ही तांची गुरवारपणणाची आनी बाळंतपणाची देवता आसा. पयलो गुरवचार येतकच, हे देवतेच्या नांवान एक तांबडो कोंबो आनी सोऱ्याचो एक कळसो राखून दवरतात. एक दीस बायलेचो बापूय वा भाव तिगेर येता आनी हे देवतेची पुजा करता आनी तो कोंबो मारता. उपरांत गोडशाचें जेवण आनी मद्यपान जाता. आठ दीस सुयेर पाळटात. णवव्या दिसा न्हंयेचेर न्हावन बारसो करतात. पयल्या वा दुसऱ्या वर्सा भुरग्याचे कान तोपतात.

मुंडा लोक मडीं जाळटात. पयलीं मड्याक नव्या वस्त्रांत गुठलावन निसणीर दवरतात. चलो अग्नी दिता. अस्थींची गांवांत मिरवणूक काडून उपरांत तें मडकें एका झाडाक बांदतात. तिसऱ्या दिसा सोयऱ्यांतले दादले मुंडन करतात. मेल्ल्या मनशाचो वंशज ताका हळद घातिल्लें शीत न्हंयेचेर अर्पण करता. घरा परथून येतना हे लोक दोन नांगरांच्या फाळांचो एकामेकांचेर

आपटून आवाज करतात. पितरांक म्होंवाचो निवेद्य दाखोवन, सगळयांक गोड जेवण घालतात.

मुंड लोकांचो 'सुर्हूल' (सुगीचे सुरवातीचो) हो सगळयांत व्हड सण. तेन्ना नाच, पदां म्हणून तो मनयतात. तेभायर 'बाथुली', 'फा-गू' (होळी), नना, जमनना हे सण व्हडा उमेदीन मनयतात. भात लुंवणेच्या वेळार 'बाताउली' वा 'कडेलता' हो सण मनयतात. त्या दिसा पहान म्हळयार पुजारी दीसभर उपास करून ग्रामदेवेतेक तांदळांचो सोरो, कोंबो दिता. 'करम' हो सण खूब नांवाजिल्लो आसून कदंबाची खांदी गांवाच्या आखाड्यांत रोवन तिची पुजा करतात आनी दादले-बायलो तिचेभोंवतणी नाच करतात. सोसोबोंगाचो विधी हो भुतां ना करपाखातीर, संकटावेळार करतात. हो विधी 'माटी' वा 'दवोनरा' (देवऋषी) करता.

शेती हो मुंड लोकांचो मुखेल वेवसाय. तांचें मुखेल पीक भात. भाताच्या खूब जातींचें ते पीक काडटात. तशेंच मको, सांसवां, उडीद, मूग, कुळीथ हीं कड्डणांय पिकयतात.

धोणु-बाण, तलवार, भालो हीं मुंड लोकांचीं हत्यारां आसात. घरांतल्यान भायर वतना तांच्या हातांत एक बडी आसता, तशेंच कांटो तोंपल्यार तो काडपा पासत कमरेक एक बारीक चिमटो खोंयल्लो आसता.

मुंड लोकांक संगीताची खूब आवड आसा. ते ढोलकीं, नगारो, दुमांग, तंबोरो, मुरली हीं वाद्यां वाजयतात.

मुंडांची ग्रामपंचायत तांचे जमातींतलीं झगडीं सोडयता. महतो आनी गोराइत, हे गांवचे प्रशासकीय वेव्हाराचेर लक्ष दवरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मुंबय** : महाराष्ट्र राज्याची राजधानी, भारताचें एक विकसीत शार, तशेंच म्हत्वाचें अर्थीक आनी वेपारी केंद्र आनी अरबी दर्या देगेवयलें एक मुखेल बंदर. संवसारांतल्या सगळयांत व्हड २५ शारांमदीं ताचो आस्पाव जाता. भारताचें प्रवेशदार (Gateway of India) असोय ताचो उल्लेख जाता. बृहन्-मुंबय हो राज्यांतलो एक स्वतंत्र जिल्हो आसून राज्यांतल्या हेर जिल्ह्यांपरस हो सगळयांत ल्हान आसा. बृहन्-मुंबयचो अक्षवृत्तीय आनी रेखावृत्तीय विस्तार १८° ५३' उत्तर ते १९°१६' उत्तर आनी ७३°४६' उदेंत ते ७२°५९' उदेंत आसो आसा. मुंबयचे उत्तरेक ठाणे जिल्हो, अस्तंतेक आनी दक्षिणेक अरबी दर्या, उदेंतेक ठाणे खाडी आनी रायगड हो जिल्हो आसा. लोकसंख्याः ९९,०८,५४७ (१९९१). मुंबय ह्या नांवाचे उपपत्ती संबंदान वेगवेगळीं मतां आसात. मुंबयंत आशिल्ल्या कोळी लोकांचे मुंबा देवीवयल्यान मुंबय हें नांव पडलें असो एक तर्क आसा. मोमाई हे मुंबयंत पुजपी सौराश्ट्रांतले देवीच्या नांवावयल्यान मुंबय नांव पडलें अशेंय एक मत आसा. मुंबई हें थळावे बौध्द देवतेवयल्यान मुंबय हें नांव पडलें अशें आनीकय एक मत आसा.

**भूंयवर्णन** : मुंबय जुंवो आनी साश्टी जुंव्याचो व्हड भाग मेळून मुंबय महानगर तयार जाल्लें आसा. मुंबय जुंवो हो साबार हेर जुंवे एकठांय हाडून तयार केल्लो आसा. ब्रिटीश येवंचे पयलीं व्हड आनी ल्हान कुलाबा, मुंबय, माझगांव, परळ, वरळी आनी माहीम ह्या मुळाव्या सात जुंव्यांमदीं साबार खाजनां आशिल्लीं आनी हांच्यामदले दर्याय खूब उथळ आशिल्ले. जेराल्ड आंजिअर (कार : १६७०-७७) ह्या मुंबयच्या दुसऱ्या ब्रिटीश गव्हर्नरान ह्या सात जुंव्यांमदल्यो खाडी पुरोवन मुंबय जुंवो तयार केलो. मुंबय जुंव्याचे उत्तरेकडेन आशिल्लो साश्टी जुंव्याचो मदलो भाग ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्यांनी रेवाडिल्लो आसा. ह्या दोंगुल्ल्यांच्या मदल्यान साबार ल्हान ल्हान न्हंयो व्हांवतात. अस्तंतेक मिठी न्हंय आनी माहीमाची खाडी, उदेंतेक आशिल्ली एक ल्हानशी न्हंय आनी साबार कडेन आशिल्ले दलदलीचे भाग, हांकां लागून मुंबय जुंवो साश्टी जुंव्यासावन कुशीक उरला. मोसमी पूल, रस्ते, लोहमार्ग, खाडीवयले पूल हांकां लागून मुंबय आनी साश्टी हे दोनूय जुंवे आतां एकामेकांकडेन जोडिल्ले आसात. मुंबयचो व्हड भाग दर्यांत भर घालून केल्लो आसा.

**हवामान** : सादारणपणान मुंबयचें हवामान उश्ण, दमट आनी सम आसता. हांगाचे ऋतू पावशी, शियाळो आनी गीम अशे तीन तरांनी विभागिल्ले आसात. मुंबय हांगा शियाळयांत सरासरी तापमान १९° से. आनी गिमाच्या दिसांनी तें सरासरी ३३° से. इतलें आसता. वर्सुकी पावसाची नोंद १८०° सेंमी. मेरेन पावता.

आंबो, पणस, चींच, वड, माड, ताड आनी गांवांत दिश्टी पडपी हेर रुखावळ हांगा सांपडटा.

**इतिहास** : सद्या मुंबय म्हानगराचो खूब विस्तार जाल्लो आसा. पूण खूब पयलीं मुंबय म्हळयार ल्हान ल्हान जुंव्यांचो एक चोंबो आशिल्लो. कुलाबा, मुंबय, वरळी, माजगांव, माहीम, परळ आनी शीव अशीं त्या जुंव्यांचीं नांवां आशिल्लीं. त्या सगळ्या भूंयप्रदेशाची उत्तर-दक्षिण लांबाय सुमार १०मैल आनी उदेंत-अस्तंत रुंदाय १ ते ३ मैल आशिल्ली. हे सगळे जुंवे मेळून सुरवेक एकूच जुंवो आसुंये आनी उपरांत भूंयकांपाक लागून ताचे अशे ल्हान ल्हान कुडके जाल्यात आसुंये अशें भूंयशास्त्रज्ञांचें मत आसा.

ह्या जुंव्यांचेर मुळावो राबितो कोळी लोकांचो आशिल्लो. कोळी लोकांवांगडा कांय प्रमाणांत भंडारी, पाचकळशे, सुतार, वाडवळ, पळशे, जोशी आनी पाताणे प्रभू लोकांचोय ह्या जुंव्यांचेर राबितो आशिल्लो.

पंदराव्या शेंकड्यांत हांगा गुजरातच्या सुलतानाचो शेक आशिल्लो. त्या तेंपार भंडारी समाजान तांच्याआड उठाव केल्ले, हाचे उल्लेख मेळयात. उपरांत १६व्या शेंकड्यांत पुर्तुगेज कोंकणांत रिगले आनी १६व्या शेंकड्याच्या मध्याक मुंबय जुंवो तांणी आपल्या शेकातळा हाडलो. त्या तेंपार थंय कोळी, भंडारी आनी पाचकळशी ह्या जातींच्या आठ-धा हजार लोकांचो

राबितो आशिल्लो. जुंव्याचो चडसो भाग वसू आशिल्लो आनी कांय भागांनी रानां आशिल्लीं. जहाजां नांगरून दवरपाखातीर तें एक बऱ्यांतलें बरें बंदर आशिल्लें. हाका लागून पुर्तुगेजांनी ह्या जुंव्याक बाँबेहीया हें नांव दवरलें. पुर्तुगेज भाशेंत बों म्हळयार बरें आनी बेहीया म्हळयार बंदर. उपरांत ताचेंच बाँबे हें नांव चालींत आयलें.

पुर्तुगेजांनी थंय एक किल्लो बांदिल्लो. १६६१त पुर्तुगालच्या राजान आपली धूव कॅथरिन, इंग्लंडाचो राजा दुसरो चार्लस हाका दिली. त्यावेळार मुंबय जुंवो तिच्या लग्नांतलो हुंडो म्हूण दिलो. १६६६ त इंग्लंडाच्या राजान हो जुंवो ईस्ट-इंडिया कंपनीक भाड्यान दिल्लो. त्या तेंपार ह्या जुंव्यामदीं साबार खाजनां आशिल्ल्यान भरतेच्या वेळार सखल भागांनी उदक रिगतालें आनी सुकतेच्या वेळार फाटीं सरतालें. हाका लागून सगळयाक दलदल जावन साबार तरांचीं दुयेंसां पातळतालीं.

ह्या तेंपार महाराष्ट्रांत मोगल, मराठे आनी शाहांभितर झुजां चलतालीं. तांचेपसून सुरक्षित रावपाखातीर १६७०त सुरवेक ब्रिटिशांनी मुंबयचो मुखेल किल्लो घट्ट केलो. उपरांत तांणी माझगांव, शिवरी, शीव, माहीम आनी वरळी हांगा ल्हान ल्हान किल्ले बांदून शाराची राखणे वेवस्था घट्ट केली. त्याच वर्सा थंय तारवां बांदपाखातीर एक व्हड धको बांदलो. १६८९त सिद्दीन मुंबयचेर घुरी घालून मुंबयचो व्हड भाग आपल्या शेकातळा दवरलो. औरंगजेब उपरांत सिद्दीक सतावपाक लागलो. तेन्ना सिद्दीक मुंबय सोडून वचचें पडलें. मराठे, मोगल, डच, फ्रेंच ह्या सगळयाकडच्यान धोको आशिल्ल्यान ब्रिटिशांनी सगळे किल्ले चड घट्ट केले आनी कांय नवे किल्ले बांदले. उपरांत १७१६ त मुंबय शारा भोंवतणी तटबंदी उबारिल्ली. ह्या



गेटवे ऑफ इंडिया, मुंबय.

पुराय भागाक फोर्ट अशें म्हण्टाले आनी भितल्ल्या ल्हान किल्ल्याक बाँबे कॅसल अशें म्हण्टाले. १७७६-८० ह्या काळांत वरळीचो बांद, गव्हर्नर हॉर्नबी हाच्या तेंपार बांदलो. तो फातरी आनी लांब आशिल्ल्यान दर्याचें उदक भरतेच्या वेळार खाजनांनी येवपाचें बंद जालें. उपरांत सखल भागांनी भर दिवन दलदल काबार केली. हाका लागून ह्या वाठारांत जावपी दुयेंसां खूब कमी जावन लोकांची वसतीय वाडपाक लागली. १८व्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत मुंबय शाराचो खूब विस्तार जाल्लो. त्या तेंपार मुंबयचो वेपारलेगीत खूब वाडलो.

१७५६ त ब्रिटिशांनी आंग्र्यांची आरमारी सत्ता नश्ट केली. उपरांत पानिपताच्या झुजांत मराठ्यांचो पुरायपणान पराभव केलो. तांची सत्ता सगळया हिंदुस्थानांत ल्हव ल्हव वाडत गेली आनी मुंबयची खूब भरभराट जाली. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन मुंबय शाराक चडसो धोको उरूंक नाशिल्ल्यान तटबंदीच्या भायरूय घरां बांदून बरेच लोक रावपाक लागले. १८४९ त जी. आय. पी. रेल्वे कंपनीची स्थापणूक जाली आनी उपरांत १८५३ त मुंबय ते ठाणे लोहमार्ग सुरू जालो. त्याच वर्सा मुंबय आनी कलकत्ता शारां तारायंत्रान जोडलीं. १८६२ त हांगाचो तट मोडून उडोवन कुलाब्यासावन टँक बंदरामेरेन जुंव्याची उदेंतेवटेनची देग बांदून काडली. उपरांत कुलाबा ते मलबार दोंगर हो अस्तंतेकडचो दर्या फाटीं व्हरून बॅकबे धक्को बांदलो. १८७२ वर्सा मुंबय नगरपालिका अस्तित्वांत आयली. १९०० मेरेन मुंबय नगराचें रूप पुरायपणान बदललें. खूब व्हड व्हड इमारती निर्माण जाल्यो. विंगड विंगड प्रकारच्यो संस्था अस्तित्वांत आयल्यो.

विसाव्या शेंकड्याचीं सुरवेचीं सुमार ३० वर्सां मेरेन प्लेग, इन्फ्ल्यूएंझा, विषमज्वर आनी हेर साथीच्या रोगांनी मुंबय शाराक सतावन सोडलें. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत आयिल्लो वेपारी वर्ग आतां आपलो वेपार आनी उद्देगधंदे वाडोवन बशिल्लो. वेपार आनी उद्येगधंद्यांत वाड जाली तशे कोंकण आनी उत्तर-दक्षिण भारतांतल्यान मजूरवर्ग आनी कामगारवर्ग हांगा येवपाक लागले. हाका लागून शाराचे लोकवसतीची दाटाय वाडत गेली. उपरांत कपडो उद्देग, रसायनां, चित्रपट, अभियांत्रिकी आनी हेर वेवसायांची स्थापणूक जावन ते भरभराटीक आयले. स्वतंत्र्योत्तर काळांत मुंबय शाराचो खूब विकास जालो. १९६० त महाराष्ट्र राज्याची स्थापणूक जाली आनी मुंबय महाराष्ट्राची राजधानी जाली.

मुंबय हें भारतांतल्या गिरेस्त शारांतलें वयल्या क्रमांकाचें शार. तें भारताचें एक मुखेल अर्थीक आनी वेपारी केंद्र आसा. उद्देगधंद्याच्या मळार हें शार भारतांतल्या हेर शारांपरस चड फुडें आसा. दीसपट्ट्यो गरजेच्यो वस्तू ते सामकेच उदरगतीक पाविल्ले संगणक आनी यंत्रसामुग्री अशे विंगड विंगड प्रकारचे कारखाने हांगा आसात. स्वातंत्र्याउपरांत मुंबय म्हानगरान अर्थीक मळाचेर जी तेंगशी गांठल्या ती तोखणाय करपासारकी आसा. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दाकसावन वाडीक लागिल्ले सुती कपड्याचे उद्देगधंदे आयजूय म्हत्वाचे आसात. स्वातंत्र्यापयलीं हांगा उपभोग वस्तुंची चड निर्मिती जाताली. पूण हालींच्या तेंपार रसायनीक द्रव्यां आनी भांडवली वस्तू हांच्या उत्पादनांत नेटान वाड जायत आसा. इलेक्ट्रॉनिकी हो सगळयांत नेटान वाडपी उद्देग आसा. ल्हानसान हत्यारां, घरगुती उपेगी पडपी वस्तूंसावन शेतवडीक आनी विंगड विंगड उद्देगांक लागपी विजेची आनी हेर यंत्रसामुग्री, स्वंयचलित वाहनां, जहाजां आनी तांचे मेकळे भाग, अशुध्द तेल आनी डिझलाचेर चलपी ल्हान-व्हड इंजिनां, रसायनां आनी

रसायनीक पदार्थ, सारें, साकर, रबर उत्पादनां हीं मुंबय म्हानगराचीं मुखेल उद्देगीक उत्पादनां आसात.

येरादारीच्या मळार मुंबय शार खूब फुडारिल्लें आसा. रस्त्यांचे आनी रेल्वेमार्गांचे येरादारीक हांगा बरेंच म्हत्व आसा. हेविशीं ह्या शाराचो पांवडोय बरोच ऊंच आसा. रस्त्यांच्या आनी रेल्वेमार्गावयल्यान शेजारच्या राज्यांकडेन आनी देशाच्या हेर मुखेल शारांकडेन मुंबयचे संबंद जोडल्यात. शाराभितर रस्त्यांची आनी रेल्वेची बरी वेवस्था आसा. साबार विमान कंपन्यो देशाभितर आनी संवसारीक हवाई मार्गांचेर येरादारी करता. भारतांतल्या विमान येरादारीच्या मळार मुंबय विमानतळ सगळ्यांत म्हत्वाचो आसा. मुंबय बंदर खूब व्हड आनी अर्थीक नदरेन चड म्हत्वाचें आसा. भारताच्या विदेश वेपाराचो व्हड वांटो मुंबय बंदरांतल्यान आयात वा निर्यात जाता. मुंबय ही भारताच्या नौदलाची म्हत्वाची सुवात आसा.

मुंबय हें देशी आनी परदेशी टपालसेवा दिवपी सगळ्यांत पोरनें आनी मुखेल केंद्र आसा. भारतांतलें सगळ्यांत व्हड तार कार्यालय मुंबयक आसून देशाभितरली आनी आंतरराश्ट्रीय वेवस्था ताचेवरवीं चलता. टेलेक्साचीय वेवस्था हांगा आसा. दूरध्वनीच्या मळार मुंबय शार पुराय देशांत मुखार आसा. प्रसार माध्यमांचे (रेडिओ, टी. व्ही., वर्तमानपत्रां) बाबतींत हें शार खुबूच गिरेस्त आसा.

नाटक, चित्रपट, चित्रकला, शिल्पकला, नाच, गायन-वादन, खेळ ह्या कला प्रकारांचे चळवळींत हें शार अग्रेसर आसा. हांगाचो चित्रपट वेवसाय हो देशांत तसो परदेशांत नामना जोडून आसा.

मुंबय हें भारताच्या राजकीय, शिक्षणीक, सामाजीक, संस्कृतीक, अर्थीक चळवळीचें एक मुखेल केंद्र. ताचे भुगोलीक रचणुकेक लागून आनी थंयच्या प्रसारमाध्यमाच्या तशें संस्थांच्या सुविधांक लागून आधुनिक भारताच्या वेगवेगळ्या मळावयल्या वाटचालींक मुंबयकडसून व्हड योगदान मेळ्ळां. रॉयल एशियाटीक सोसायटी (१८०५), सर जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट (१८५७), मुंबय विद्यापीठ १९५७, प्रार्थना समाज १८६७, आर्यसमाज १८७५, जुओसेफिकल सोसायटी १८७५, भाभा अणुसंशोधन संस्था (१९६७), हाफकीन संस्था, टाटा समाजीक विज्ञान संस्था, टाटा मूलभूत संशोधन संस्था, प्रीन्स ऑफ व्हेल्स म्युझीयम, जहांगीर आर्ट गॅलरी, नेहरू खगोलशास्त्र अभ्यास केंद्र, वानखडे स्टेडियम, ब्रॅबॉर्न स्टॅडियम, म्हालक्ष्मी रेसकोर्स, कमला नेहरू पार्क, जिजामाता पार्क ह्यो मुंबयच्यो आद्य संस्था आधुनिक काळांत लेगीत नामना जोडून आसात. माउंट मॅरी चर्च, हाजी अली दर्गो, घारापुरी कान्हेरी लेणी, गॅट व्हे ऑफ इंडिया, मरीन ड्रायव्ह, गिरगांव चौपाटी, जुहू वेळ, तारापूरवाला मत्स्यालय, येसल् वर्ल्ड हीं कांय पर्यटन स्थळां मुंबयचें आकर्शण जावन आसात.

भारतांतल्या सगळ्यांत पोरन्या तीन विद्यापिठांतलें मुंबय विद्यापीठ ह्या शारांत आसा.

साबार प्रादेशिक आनी धर्मीक संस्कृतीचे लोक हांगा एकठांय आयिल्ले दिश्टी पडटात. हाका लागून हांगा खंयचेय एकेच संस्कृतीचो शेक चलना. साबार संस्कृतींची भरसण जाल्यान, मुंबयची संस्कृती ही विंगड विंगड प्रकारांच्या लोकांक आपणावन घेता. ह्या लोकांच्यो भासोय वेगळ्यो वेगळ्यो आसात. मराठी ही शाराची मुखेल भास आसा. मराठी वांगडाच गुजराती आनी हिंदी भाशांचोय हांगा वापर जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**मुकेश :** (जल्म : २६ जुलय १९२३, दिल्ली; मरण : २८ ऑगस्ट १९७६, डिट्रॉइट, अमेरिका).

नामनेचो हिंदी चित्रपटांतलो पार्श्वगायक. पुराय नांव मुकेशचंद्र माथूर. १९३९ त मॅट्रिक जातकच ताणें थोडो तेंप दिल्लीच्या बांधकाम खात्यांत नोकरी केली. एक दीस दिग्दर्शक हरिष हाणें मुकेशाचें गायन आयकलें आनी ताणें ताका मुंबय आपोवन व्हेलो. 'निर्दोष' (१९४१) ह्या चित्रपटांत ताका पयली भुमिका मेळ्ळी. 'दुखसुख' (१९४२) आनी 'आदाब अर्ज' (१९४३) ह्या चित्रपटांतय मुकेशान भुमिका केल्यो. फुडें १९५१ त 'मल्हार', १९५३ त 'माषुका' आनी १९५६ त 'अनुराग' हे तीन चित्रपट मुकेशान स्वता तयार केले.

मुकेशान आपलो आवाज 'मूर्ती' (१९४५) ह्या चित्रपटाक पयलेच खेप दिल्लो आसलो तरी, पार्श्वगायक म्हूण तो 'पहिली नजर' (१९४५) ह्या चित्रपटाक लागून लोकप्रिय जालो. अनिल विश्वास हाणें स्वरबध्द केल्लें 'दिल जलता है तो जलने दो' हें तातुंतलें सैगल-शैलीचें पद सगळ्यांक आवडलें. तेन्नासावन मुकेश चित्रपट-सृश्टींत पार्श्वगायक म्हूण नामनेक पावलो.

मुकेशान आपलो आवाज मोतीलाल, दिलीपकुमार, करण दिवाण, भारतभूषण, देव आनंद, जयराज अशा कितल्याशाच नामनेच्या अभिनेत्यांक दिला. राजकपूरच्या 'नीलकमल (१९४७) ह्या पयल्या चित्रपटा सावन आनी आर. के. स्टुडिओंतल्या राजकपूरच्या चडशा चित्रपटांक राज कपूराक मुकेशानूच आवाज दिला. अनिल विश्वास, नौशाद, एस्. डी. बर्मन, रोशन, गुलाम हैदर, खैयाम, लक्ष्मीकांत-प्यारेलाल आनी शंकर-जयकिशन ह्या संगीतकारांखातीर मुकेश गायला.

'आवारा' (१९५१), 'अनाडी' (१९५९), आनी 'पहेचान' (१९७०) ह्या चित्रपटांतल्या पार्श्वगायनाखातीर मुकेशाक 'फिल्मफेअर' इनामां मेळिल्लीं. हातुंतलीं सगळींच पदां शंकर-जयकिशन हांणी स्वरबध्द केल्लीं.

मुकेशान मराठी, गुजराती, पंजाबी, बंगाली भाशेंतूय पदां गायल्यांत. ताणें ५०० परस चड चित्रपटांत सात हजारांवयर गीतां गायल्यांत. मुकेशाच्या आवाजांत संत तुलसीदासाच्या 'रामचरितमानस' च्यो ८ एल्. पी. ध्वनीमुद्रिकाय

आयल्यात. 'रजनीगंधा' (१९७४) ह्या चित्रपटांतल्या पार्श्वगायना खातीर मुकेशाक राश्ट्रीय इनाम मेळिल्लें. भावनाप्रधान पदां सरळ, सोंप्या सुरांत म्हणप, हें मुकेशाच्या गायनाचें खाशेलपण आसा. लता मंगेशकारावांगडा गायनाचे कार्यावळीखातीर अमेरिकेंत गेल्लो आसतना काळजा आताकान ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**मुक्तच्छंद** : आर्विल्ले काव्यरचनेचो एक प्रकार. हाका इंग्लीश भाशेंत Free Verse अशें म्हण्टात. फ्रेंच कवितेच्या मळार १८८० च्या दशकांत 'व्हर्स लिब्रे' अशी एक चळवळ उदयाक आयली. ग्यूस्ताव्ह कान लाफॉर्ग, रँबो हे प्रतीकवादी कवी हे चळवळीचे जनक अशें मानतात. कवितेक परंपरिक छंदोरचनेच्या बंधनांतल्यान मुक्त करून उलोवपांत घोळपी भाशेच्या सभावीक लयेक कवितेंत प्राधान्य दिवपाचो यत्न हे चळवळींतल्या कवींनी केलो. हे चळवळीन प्रभावित जाल्ल्या टी. एस्. इलिपट, एझरा पाउंड, टी. ई. ह्यूम, एफ्. एस्. फ्लिंट, रिचर्ड ऑल्डिंग्टन ह्या कवींनी इंग्लीश काव्यांत 'फ्री व्हर्स' ची कल्पना विसाव्या शतमानाचे सुरवेक रूढ केली. एमी लोएल, कार्ल सँडबर्ग, विल्यम कार्लोस विल्यम्स, इ. इ. कमिंग्ज, स्टीव्हन स्पेंडर, वॉलिस स्टीफन्स ह्या कवींनी आपापल्या काव्यप्रकृती प्रमाण मुक्तछंद-रचनांचे वेगवेगळे प्रयोग केले. इंग्लिशेखेरीज हेर युरोपीय भासांतूय मुक्तछंदात्मक काव्य व्हडा प्रमाणांत निर्माण जालां. जॉर्ज एल्. बोर्जेस (अर्जेंटिना), सँ-जॉन पॅर्स (फ्रांस), बेर्टोल्ट ब्रेक्ट (जर्मनी), जूझेप्पे उंगारेत्ती (इटली), फेदेरिको गार्सीआ लॉर्का (स्पेन), व्हल्दीम्यीर मायकोव्हस्की (रशिया) ह्या कवींचो ह्या संदर्भांत उल्लेख करूं येता.

मुक्तछंदाची चळवळ आर्विल्ल्या काळांत उदयाक आयली. अशेच तरेची बंधमुक्त काव्यनिर्मिती स्वच्छंदतावादी कवींनीय केल्या. देखीक-कोलरिजचें 'खिस्ताबेल' हें काव्य (१९१६). अमेरिकन काव्यांत इमर्सनान अशे प्रयोग केले. वॉल्ट व्हिटमन हाणें Leaves of the Grass (१८८५) हें काव्य आवाजाप्रमाण आरोह-अवरोहात्मक आंदोलनांचो वापर करून बरयलां.

मुक्तछंद हो काव्यनिर्मितीचे आंतरिक गरजेंतल्यान निर्माण जाल्लो एक नवो छंद अशें म्हणूं येता. पयलींची छंदोबध्द कविता गेय आनी श्रवणीय आशिल्ली. तर मुक्तच्छंद हो दोळयांक आनी मनाक आवाहन करपी असो रचनाप्रकार जावन आसा. मुक्तच्छंद खाशेले शैलींत वाचल्यार तातुंतल्या लय-तालाचो अणभव येता. अनियमित पूण गतीमान आनी एकसारकी अशी तालबध्दता (Rhythm), तोल (balance), शब्द रचनेंतलीं आरोह-अवरोहात्मक आंदोलनां (Cadence) आनी लय (tempo) हीं मुक्तछंदात्मक पद्यरचनेचीं मुळावीं तत्त्वां अशें सादारणपणान मानतात. मुक्तच्छंदांत कवीक अभिव्यक्तीचें स्वातंत्र्य आसता. मुक्तछंदाची बंडखोरी तालाआड नासून तालाचेर वृत्तबध्दतेंत जे कडक निर्बंध घाल्यात तांचेआड आसा. अक्षरांचो आनी चरणांचो आंकडो, तालाचीं खाशेलीं आवर्तनां हांचेसारकिल्या सांकेतिक आनी साचेबंद निर्बंधांतल्यान मुक्त जाल्लो छंद तो मुक्तच्छंद अशें म्हणूं येता. मुक्तच्छंद हो यमकासयत वा यमकविरयत असो दोनूय तरेचो आसूं येता. पूण तें यमक सभावीकपणान येवंक फाव. कोंकणी धरून सगळयाच भारतीय भाशांनी मुक्तछंदाचे कवितेची निर्मिती जाल्ली आसा. हाचो सदंर्भ ते ते भांशेच्या साहित्याचे नोंदींत दिल्लो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मुक्त विद्यापीठ** : अपरंपरिक पद्दतीन शिक्षण दिवपाची वेवस्था आशिल्लें आर्विल्ल्या काळांतलें एक खाशेलें अशें विद्यापीठ. अशे तरेचें विद्यापीठ सुरवेक बाराव्या शतमानांत इटलींतल्या बोलोन्या हांगा विद्यार्थ्यांनी स्थापन केल्लें. तातुंतले शिक्षक विद्यार्थ्यांनीच नेमिल्ले आनी शिक्षकांचे वागणुकीचे आदर्शूय विद्यार्थ्यांनीच घालून दिल्ले. शिक्षक वर्गांत उसरां आयले वा तांणी थरयल्लीं व्याख्यानां वेळार घेतलींना, जाल्यार विद्यार्थीच तांकां ख्यास्त दिताले.

शिक्षणतज्ज्ञांच्या मताप्रमाण १९६४ त अमेरिकेंतल्या बर्कली हांगा विद्यार्थ्यांच्यो ज्यो दंगली जाल्यो, तातूंत हालींच्या मुक्त विद्यापिठांचो उगम आसा. आपणें विद्यापिठांतल्यान भायर पडचें आनी आपलें स्वताचें अशें एक 'मुक्त विद्यापीठ' स्थापन करचें, अशें बर्कली विद्यापिठांतल्या विद्यार्थ्यांक दिसलें. सुरवातीच्या काळांत बर्कली हांगाच्या विद्यार्थ्यांनी आपल्या जाहीरनाम्यांत अशें म्हणिल्लें, आपल्या समाजाच्या प्रस्नांकडे संबंदीत आशिल्ल्यो पूण विद्यापिठाच्या अभ्यासक्रमांत आस्पावंक नाशिल्ल्यो गजाली आनी प्रस्न हांचेविशीं चर्चा करप, तांचो अभ्यास करप आनी त्यो वेव्हारांत हाडप, हेंच मुक्त विद्यापिठाचें मुखेल ध्येय आशिल्लें. जंय संवाद आसा, उक्तेपणान चर्चा आसा, भावनांची उत्कटता आसा, निःपक्षपाती वातावरण आसा, येवकार, सभा, चळवळी, संमेलनां, प्रेम हांची जीण आसा, तें विद्यापीठ म्हळयार मुक्त विद्यापीठ.

मुक्त विद्यापिठाचे चळवळीक लागून तरनाटें मन सर्जनशील मार्गाक लागलें. १९६० ते १९७० ह्या काळांत अमेरिकेंत कितलींशींच मुक्त विद्यापिठां उदयाक आयलीं. २३ जुलय १९६९ दिसा ब्रिटनांतल्या मुक्त विद्यापिठाचो पयलो कुलगुरू लॉर्ड क्राउथर हाणें आपल्या भाशणांत म्हणिल्लें की मुक्त विद्यापीठ हें खऱ्या अर्थान मुक्त आसता. तातूंत अभ्यासक्रम, परीक्षा, नेम, वरां, शिक्षक-विद्यार्थी सभा, सत्र-काळ ह्या सगळयांचेर कसलेंच बंधन नासता. मुक्त विद्यापिठाचें स्वरूप बदलपी आनी अशाश्वत आसा, अशें कांय शिक्षणतज्ज्ञांक दिसता. समाजधारणेक पर्याय दिवपाची मुक्त विद्यापिठाची कल्पना महत्वाकांक्षी आसा, अशें कांय शिक्षणतज्ज्ञांक दिसता.

परंपरिक विद्यापिठांतल्या विद्यार्थ्यांचो आंकडो खूबच वाडिल्ल्यान अस्तंतेकडल्या देशांत तशेंच भारतांतूय महाविद्यालयीन शिक्षण विस्कळीत जालां. संख्या आनी गूण हांच्या व्यस्त प्रमाणाक लागून हे शिक्षणपद्धतीच्यो शिमोच स्पश्ट जाल्यात. पदवी मेळोवप इतलोच चडशा विद्यार्थ्यांचे बाबतींत ह्या शिक्षणाचो हेत जाला. पत्रावरवीं शिक्षण, निरंतर शिक्षण, अनौपचारीक शिक्षण अशा वेगवेगळ्या पर्यायांप्रमाणच मुक्त विद्यापीठ ह्या नव्या प्रायोगिक पर्यायाची सुरवात जाली. मुक्त विद्यापिठांत नेमान वर्ग भरनात वा थरयल्ल्या काळांत शिक्षणक्रम सोंपोवपी एकाद्री विद्याशाखाय नासता. पूण सादारण विद्यापिठांतल्या पदवी परीक्षेमेरेनचो पुराय अभ्यासक्रम शिकयतात. व्यक्ती हीच आपल्या स्वताच्या जिविताची शिल्पकार आसूंक शकता, हो ह्या विद्यापिठाचो मूळ हेत आसा. घरकाम करपी बायलो, मध्यमवर्गीय कर्मचारी, टॅक्सी ड्रायव्हर, पुलीस अशा वेगवेगळ्या वेवसायांत वा भौशीक स्वरुपाचे नोकरेंत आशिल्ल्यो व्यक्ती मुक्त विद्यापिठांत शिक्षण घेतात. चडशा विद्यार्थ्यांचे वेवसाय पुराय वेळाचे आसतात. पूण पदवेबगर कितल्याशाच जाणांक नोकरेंत बढती मेळना. सदचें महाविद्यालयीन शिक्षण घेवपाची संद हातुंतल्या सामक्या थोड्या जाणांक मेळटा. देखून एकाद्र्या व्यक्तीची फाटभूंय वा वेवसायीक अणभव फकत शालेय शिक्षणक्रमाच्या योग्यतायेचो आसलो, तरी ते व्यक्तीची औपचारीक शिक्षणीक पात्रता विचारांत घेनासतना मुक्त विद्यापिठांत प्रवेश दितात.

अभ्यासक्रमाविशीं शिक्षकांचो वा महाविद्यालयाचो सल्लो घेवपाचें सोडून किदें शिकपाची इत्सा आसा, हें विद्यार्थी मुक्त विद्यापिठाच्या अधिकाऱ्यांक सांगता आनी मार्गदर्शका वरवीं पदवी परीक्षेचो मार्ग स्वताच थरयता. शिक्षणाची प्रक्रिया सासणाची जिवीतभर चालू उरतली, जाल्यार जिवितांतले प्रस्न कशे सुटावे करचे, तें सोदतना जाणकारांचें मार्गदर्शन कशें घेवंचें ह्यो गजाली विद्यार्थ्यांनी शिकप गरजेचें आसता. ह्यो गजाली तांकां मुक्त विद्यापिठांतूच शिकूंक मेळटात.

भारतांतल्या विद्यापिठांनी मुक्त विद्यापिठाचे चळवळीसावन खुबशें शिकपासारकें आसा. कारण हांगाच्या विद्यापिठांत चडसो वेळ फुकट वता आनी दीसपट्ट्या कार्यक्रमांत कितल्योशोच आडखळी येतात. आमच्या उंचेल्या शिक्षणांत नवे प्रयोग आनी तांचो वेवस्थीत वापर जालोना जाल्यार विद्यापिठाची उदरगत जावंची ना. तेखातीर मुक्त विद्यापिठाचे संकल्पनेंतल्या गजालींचो आस्पाव सद्याच्या विद्यापिठीय अभ्यासक्रमांत केल्यार मुक्त विद्यापिठाची गरज भासचीना.

भारतांत १९७० उपरांतच्या काळांत मुक्त विद्यापिठाची कल्पना रुजली. २६ ऑगस्ट १९८२ दिसा राश्ट्रपती झैलसिंग हाणें आंध्रप्रदेशांतल्या नागार्जुनसागर हांगा मुक्त विद्यापिठाचें उक्तावण केलें. जांचेमेरेन परंपरिक शिक्षण पावंक ना, जांकां साक्षरतेखेरीज अदीक शिक्षण मेळूंक ना, असल्या लोकांक मुक्त विद्यापीठ ही एक गरज आसा. भारतांतले कोट्यांनी निरक्षर लोक आनी हांगाची वाडटी लोकसंख्या हांची तुळा केल्यार हांगा उंचेल्या शिक्षणाच्यो सोयी खूब कमी आसात आनी देखून मुक्त विद्यापिठाची खूब गरज आसा. पुण्यांत १९८०त स्थापन जाल्लें ज्ञानेश्वर विद्यापीठ हें एक मुक्त विद्यापीठच आसा.

मुक्त विद्यापिठां हीं तशीं पुराय अर्थान मुक्त नात, अशें कांय शिक्षणतज्ञांक दिसता. कांय शिक्षणतज्ञांचें मत आसा, की ह्या विद्यापिठांत विद्यार्थ्यांचेर कांय बंधनां घालुंकूच जाय. नांवांची नोंद करपाची तारीख, अभ्यासक्रमाचो काळ, निकाल जाहीर जावपाची तारीख ह्या गजालींक लागून ह्या विद्यापिठांचेर बंधनां पडटात आनी खऱ्या अर्थान मुक्त विद्यापीठ हें तांचें स्वरूप नश्ट जाता. १९६० ते १९७० ह्या काळांत जितलीं मुक्त विद्यापिठां स्थापन जालीं ते तुळेन फुडल्या धा वर्सांत मुक्त विद्यापिठां स्थापन जावंक नात. एक गजाल मात खरी की मुक्त विद्यापिठाचे स्थापनेक लागून परंपरिक तरनाट्यांक किदें जाय, हें कळपाक मदत जाली आनी परंपरिक विद्यापिठांनी ही गजाल मतींत घेवन आपल्या अभ्यासक्रमांत फाव त्यो सुदारणा करपाचो यत्न केलो. मुक्त विद्यापिठाचें हें एके तरेचें यश जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## मुक्ताबाई : (जल्म : १२७७ वा १२७९, आपेगांव, आळंदी; मरण : १२९७).

मुक्ताबाई ही ज्ञानदेवाची (ज्ञानेश्वर) धाकली भयण. निवृत्ती, ज्ञानदेव, सोपान आनी मुक्ताबाई हीं विठ्ठलपंताचीं चार भुरगीं. विठ्ठलपंतान संन्यास घेतल्या उपरांत परतून गृहस्थाश्रमांत प्रवेश केलो आनी ताका हीं भुरगीं जालीं. त्या भुरग्यांक संन्याशाचीं भुरगीं म्हूण लोक हिणसायताले. ह्या सगळ्या भुरग्यांक समाजाभायर दवरपाचे लेगीत खूब यत्न जाले. पूण तांच्या आध्यात्मिक विचारांच्या बळग्याक लागून तांकां मानाची सुवात फावो जाली. खास करून ज्ञानेश्वर आनी मुक्ताबाई हांचो जनमनाचेर खूब प्रभाव पडलो. निवृत्तिनाथ हो व्हडलो भाव आनी ह्या सगळ्या भावंडांचो गुरू. ताणेंच आध्यात्मिक गिन्यानाचें बाळकडू भावंडांक ल्हानपणांतूच दिलें. ताका लागून आध्यात्मिक नदरेन सगळींच भावंडां उंचेल्या पांवड्यार पावलीं.

ह्या चारूय भावंडांच्या जल्मकाळ आनी जल्मस्थळाविशीं एकमत ना. तांचें जल्मस्थळ कांय अभ्यासक आपेगाव मानतात जाल्यार कांय जाण आळंदी मानतात. मुक्ताबाई ही भावंडांभितर सगळ्यांत ल्हान पूण एक आत्मज्ञानी आनी कवयित्री. ती स्वभावान निःस्पृह आनी कसलीय गजाल उक्तेपणान उलोवपाक ती भिडेनाशिल्ली. कोणाचीच भीडमुर्वत दवरिनासतना सत तेंच उलोवपी. तिचे हे धिटायेचो एक प्रसंग तिच्या चरित्रांत आयला तो असो - एक फावट संत नामदेव आळंदीक आयिल्लो. ताचे भेटेक हीं सगळीं भावंडां गेलीं. निवृत्ती, ज्ञानदेव आनी सोपान ह्या तिगूय भावंडांनी नामदेवाक नमस्कार केलो. पूण नामदेवान तांकां प्रतिनमस्कार केलोना. मुक्ताबाईक ही गजाल विचित्र कशी दिसली. ताकालागून तिणें नामदेवाक

नमस्कार केलोना. तिणें नामदेवाक म्हळें,

*झालासी हरिभक्त तरी आम्हां काय ।*

*आंतली ती सोय न ठाऊकी ।।......*

*--- गुरुविण तुज नव्हेचि गा मोक्ष ।*

*होशील मुमुक्षु साधक तूं ।।*

तू व्हडलो देवभक्त जायत पूण ताचें आमकां कांयच पडून वचूंना, कारण आध्यात्मिक गिन्यानाचें मर्म तुका कळुकूंच ना. तुजें मन अजून अहंकार विरयत जावंक ना.

मुक्ताबाई पिरायेन जरी ल्हान आसली तरी तिचे अभंग तिजिल्ले आसात. तिच्या अभंगांक तिच्या अणभवांचो आदार आसा. सगुण ईश्वराचे भक्तीपरस निर्गुण ब्रह्माची उपासना तिच्या अभंगांनी परगट्टा. ती म्हण्टा,

*सर्वरुपी निर्गुण संपले पै सर्वदा । आकार संपदा नाही तया*

*आकारिती भक्त मायामय काम । सर्वत्र निःसीम अंतरी आहे*

मुक्ताबाईचे अभंग हें तिचें एक खाशेलपण. मुक्ताबाईचें व्यक्तिमत्त्व हें कोणाच्याच अनुकरणांतल्यान तयार जावंक ना. तें पुराय स्वतंत्र आसून मुक्ताबाई ही साक्षात स्वयंभू आसा. ती स्वताचें बायलपण लेगीत विसरल्या, हाचेवयल्यान तिचे ज्ञानावस्थेची कल्पना येता.

मुक्ताबाईचें व्हडपण दाखोवपी एक आख्यायिका वारकरी संप्रदायान सांबाळून दवरल्या. ती अशी आसा - मुक्ताबाई ही धाकली भयण, पूण आवय-बापायफाटल्यान तिणेंच सगळ्या भावांचो सांबाळ केलो. एक दीस ज्ञानदेवाक पळोवन कांय वाळेस लोकांनी ताका 'संन्यासाचो पोर' म्हणून हिणसायलो, तेन्ना ज्ञानदेवाक वायट दिसलें आनी तो आपले खोंपींत वचून बसलो. कितेंच केल्यार खोपीचें दार उगडीना. त्यावेळार मुक्ताबाईन ताका खूब विनवण्यो केल्यो (त्यो सगळ्यो 'ताटीचे अभंग' म्हूण उजवाडा आयल्यात). मुक्ताबाईन ताका सांगलें, लोकांनी कितलेंय वायट उलयलें जाल्यार, संतांनी उदकाभशेन थंड रावंक जाय. गिन्यानी मनशान अशें रागार जावप योग्य न्हय.

मुक्ताबाईचो गुरू निवृत्तिनाथ. पूण तिची गुरूपरंपरा आदिनाथ - मत्स्येंद्रनाथ-गोरक्षनाथ-गहिनीनाथ-निवृत्तिनाथ-मुक्ताबाई अशी मेळटा. पूण ज्ञानदेवाची भयण मुक्ताबाई आनी गोरखनाथ ह्या दोगांयचो काळ वेगवेगळो आशिल्ल्यान मुक्ताबाई ह्यो दोन वेगवेगळ्यो व्यक्ती आसूंक जाय.

गोरखनाथाची शिश्या मुक्ताबाई ही विदर्भांतल्या अचलपूरच्या राजाची कन्या आनी उज्जयिनीच्या विक्रमादित्य राजाची बायल आशिल्ली. तिचो देर भर्तृहरी. भर्तृहरी कडल्यानूच तिणें आध्यात्मिक प्रेरणा घेतिल्ली. तिची समाधी विदर्भांतल्या, अमरावती जिल्ह्यांतल्या मोर्शी गांवालागसार आशिल्ल्या दोंगराचेर आसा. त्या दोंगराक 'कुंजरगिरी' अशें म्हण्टात.

- डॉ. श्री. शं. फडके

**मुक्तेश्वर :** एक महाकवी. संत एकनाथाचे धुवेचो चलो. मुक्तेश्वराचो जल्मकाळ आनी ताच्या नांवाविशीं खूब मतभेद आसात. कांय अभ्यासकांच्या मतान ताचो जल्मकाळ शके १५३१ जाल्यार कांय जाण तो शके १४९५-९६ असो मानतात. तेचभशेन मुक्तेश्वर हें व्यक्तिचें नांव काय मुद्रानांव असो प्रस्न आसा. ताच्या काव्यांत येवपी विश्वंभर आनी लीलाविश्वंभर ह्या नांवांविशींय विंगड विंगड मतां आसात. कांय तज्ञांच्या मतान लीला-विश्वंभर हें मुक्तेश्वराच्या गुरूचें नांव आसून, हो लीला-विश्वंभर म्हळयार साक्षात दत्तात्रेय आसा. पूण कांय अभ्यासक लीला-विश्वंभर हें मुक्तेश्वराच्या आवय-बापायचें टोपण नांव मानतात. मुक्तेश्वराच्या कुळांत दत्ताची उपासना आशिल्ली.

मुक्तेश्वर अभिजात रसिक आशिल्लो. ताचेर बऱ्या शिक्षणाचे संस्कार जाल्ले. ताणें संस्कृत काव्यनाटकांचो अभ्यास केल्लो तशेंच षट्शास्त्रांचेंय अध्ययन केल्लें. ज्ञानेश्वर, एकनाथ ह्या संतांच्या ग्रंथांचोय ताणें अभ्यास केल्लो.

मुक्तेश्वराची ग्रंथ रचणूक अशी आसा - १) संक्षेप रामायण २) स्फुट काव्यां ३) भारताचीं पर्वां.

पयलीं ताणें संक्षेप रामायण बरयलें. हें रामायण नाटकरामायण वा कौतूहलरामायण ह्या नांवांनीय प्रसिध्द आसा. १,७२२ ओव्यांचें हें सातकांडी रामायण चडकरून एकनाथाच्या 'भावार्थ रामायणा'चेर आदारिल्लें आसा. हें काव्य मालिनी, भुजंगप्रयात आनी अनुष्टुभ ह्या छंदांत आसा.

मुक्तेश्वराच्या स्फूट काव्यांत शुक-रंभासंवाद, गजेंद्रमोक्ष, हनुमंताख्यान, विश्वामित्रभोजन, हरिश्चंद्राख्यान, गरुडगर्वपरिहार, दुर्योधनशल्यपरिस्फोट, अर्जुनकामपूर्ती अशीं पौराणिक आख्यानां येतात. तशेंच ताणें 'एकनाथचरित्र' बरयलां. भगवतेचो अणकार केला. 'मूर्खलक्षणे' ह्या नांवाचें एक ल्हान प्रकरण ताच्या नांवाचेर आसा. तशींच कांय पदां, आरत्यो, भुपाळ्यो इतली मुक्तेश्वराची काव्य रचणूक आसा. ताणें सुमार १७,१५० कविता बरयल्यात.

भारतीय पर्वांक लागून मुक्तेश्वराक चड नामना मेळ्ळी. हातूंत आदी, सभा, वन, विराट आनी सौप्तिक हीं पांच पर्वां आसात. मूळ संस्कृत महाभारत घेवन ताणें हीं पांच पर्वां बरयलीं. तशेंच ताणें पयलींच्या भारतीय ग्रंथांचोय आदार घेतलो.

आदीपर्वांतल्या दुष्यंत-शकुंतला आनी ययाती ह्या आख्यानांत ताणें शृंगाररसाचें वर्णन केलां. प्रसाद आनी प्रतिभा हे दोनूय श्रेश्ठ गूण मुक्तेश्वराच्या काव्यांत आसात. ताच्या भारतांत त्या काळांतले समाजस्थितीचें पडबींब पडलां. लोकांच्यो चालीरिती, वस्त्रां, पात्रां, आहार-विहार, वेपार-उद्देग हे समाजीक वेव्हारांतले तपशील मुक्तेश्वरान सहजतायेन वर्णिल्यात.

मुक्तेश्वर हो एक व्हड व्यासंगी ग्रंथकार आसून लेगीत ताचें पांडित्य ताच्या काव्याच्या आड केन्नाच आयलेंना. बुदवंतकाय आनी रसिकता हांचो सोबीत मेळ ताचे बरपावळींत दिसून येता.

- कों. वि. सं. मं.

**मुखर्जी, राधाकमल :** (जल्म : इ. स. १८९०; मरण : इ.स. १९६८).

नामनेचो अर्थशास्त्रज्ञ. कलकत्ता विद्यापिठांत ताणें आपलें शिक्षण पुराय केलें. इ.स. १९१०त कृष्णनाथ कॉलेज बेहरामपूर हांगा अर्थशास्त्राचो व्याख्यातो म्हूण ताची नेमणूक जाली. इ.स. १९१५ त ताणें बंगाल सोडलें आनी लाहोर हांगा सनातन धर्म महाविद्यालयाचो तो प्राचार्य जालो. १९१७ त कलकत्ता विद्यापिठांत व्याखातो म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९२१ त लखनौ विद्यापिठांत प्राध्यापक म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९५१ त तो थंयसावन निवृत्त जालो. इ.स. १९५५-१९५७ ह्या काळांत तो हे कॉलेजीचो कुलगुरू जालो. ताचे कारकिर्दीत हे कॉलेजींत इ.स. १९४९ त समाजशास्त्र आनी मानवी संबंद हाचो अभ्यास करपी संस्था स्थापन जाली. हे संस्थेचो तो आजीव संचालक आशिल्लो. कोपनहेगेन हांगा जाल्ल्या अन्न आनी शेतकी संघटनेच्या अर्थशास्त्रीय आनी संख्याशास्त्रीय मंडळाचो तो कार्याध्यक्ष आशिल्लो. तशेंच आंतरराश्ट्रीय कामगार संघटनेचो तंत्रज्ञ समीतीचो तो सदस्य आशिल्लो. ताणें अर्थशास्त्र आनी हेर समाजीक शास्त्रांत जायते ग्रंथ बरयल्यात.

प्रा. मुखर्जी हाणें कुटिरोद्योगाचेर चड भर दिला. ताच्या मतान आर्विल्ल्या काळांत कुटिरोद्योगान भारताची उदरगत सादूंक मेळटली. ना जाल्ले उद्देग परत सुरू करून प्रचलित उद्देगांत यांत्रिक, तांत्रिक आनी वेवस्थापकीय सुदारणा करून भारताचें हित सादूंक जाय. लघुउद्देग आनी भारीउद्देग हांचें यथायोग्य प्रमाण साधप गरजेचें आसा. भारतांत अस्तंते तरेचो उद्योगपाद आपणायनासतना अर्थीक आनी समाजीक जीणेंत सहचर्य आनी सहयोग निर्माण जावप गरजेचें आसा. आपल्या 'तुलनात्मक अर्थशास्त्राची तत्त्वे' ह्या पुस्तकांत ताणें अर्थशास्त्राची व्याप्ती वाडोवपाविशीं सांगलां. ह्या ग्रंथाच्या दुसऱ्या भागांत भारतीय परिस्थितीचो विचार केल्लो आसा. ताच्या मतान अर्थशास्त्राचे तुळात्मक आनी संख्यात्मक आदार समाजीक शास्त्राच्या आदारान प्रस्थापित करूंक जाय. जाल्यारच अर्थशास्त्रीय उपपत्ती व्यापक आनी मानवी मार्गान प्रस्थापित जातली. ग्रंथाच्या निमाणें ताणें समाजीक नियोजनाची गरज सांगल्या. तेविशींच्या विश्लेशणांत ताणें सनातनवादी आनी मार्क्सवादी प्रतिमानाचेर टीका केल्या.

'आपल्या अर्थशास्त्राची आधारभूमी' ह्या ग्रंथांत ताणें भारतीय शेती आनी उद्देगीक अडचणी हांची भासाभास केल्या. तशेंच भारतांतले गांवगिरे अर्थवेवस्थेची पुराय विस्कटावणीय ह्या ग्रंथांत दिसून येता. हाचेभायर ह्या विशयाचेर ताणें, भारतीय ग्रामीण अर्थवेवस्था, भारतीय भुमी वेवस्थेचे प्रस्न आनी ग्रामीण नियोजन आदी ग्रंथ बरयल्यात. 'चाळीस कोटी लोकांखातीर येवजण' ह्या पुस्तकांत ताणें ह्या देशांतल्या लोकसंख्येच्या प्रस्नाचोय विचार केला. वाडटे लोकसंख्येक आळो घालपाखातीर ताणें बालविवाह आनी बहुपत्नित्व थांबोवप, शिक्षणाचो प्रसार, सामान्य जनतेंत उच्च राहणीमानाची जाणविकाय निर्माण करप आनी कुटूंब नियोजनाचो अवलंब करप हाचेर भर दिला.

'मानवाचा प्रादेशिक समतोल' आनी 'लोकसंख्येचे अर्थशास्त्र' ह्या दोन ग्रंथांवरवीं ताणें आपले नवे लोकसंख्येविशींची नवी उपपत्ती मांडल्या. भारतीय कामगार वर्ग ह्या आपल्या ग्रंथांत ताणें उद्देगीक उदरगतीचे शीघ्र गतीक लागून कामगारांमुखार जे प्रश्न उबे आसात तांची विस्कटावणी केल्या. 'आर्विल्ल्या भारतांतले अर्थीक प्रस्न' ह्या ग्रंथांत ताणें भारताच्या अर्थीक नियोजनाखातीर, हांगाचे शेतकीसंस्कृतीचें अर्थीक मुळावण व्यापक करप गरजेचें आसा, तशेंच ह्या देशांतलीं पुर्विल्लीं नैतिक आनी समाजीक मुल्यां बदलपी अर्थीक संवसाराक पुराय तरेन आनी स्पश्टपणान मांडूक जाय अशे विचार मांडल्यात.

प्रा. मुखर्जीन जायत्या विशयांचेर भरपूर प्रमाणांत लिखाण केलां. तात्त्विक गिन्यान आनी प्रत्यक्ष वस्तुस्थिती हांचो मेळ घालून तो आपले विचार मांडटा. लोकसंख्या प्रश्नावयलो तो एक व्हड अधिकारी विचारवंत आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**मुजुमदार, धीरेंद्र :** (जल्म : इ. स. १९०३; मरण : इ. स. १९६०).

एक नामनेचो भारतीय मानवशास्त्रज्ञ. इ.स. १९२४ वर्सा ताणें कलकत्ता विद्यापिठांतल्यान मानवशास्त्राचो पदव्युत्तर अभ्यासक्रम पुराय केलो. थंयच ताका संस्कृतीक आनी शारिरीक मानवशास्त्राविशीं चड प्रशिक्षण मेळ्ळें. इ.स. १९३७ वर्सा ताणें केंब्रिज विद्यापिठांत त्या विशयाची पीएच. डी. पदवी घेतली.

नामनेचो मानवशास्त्रज्ञ ब्रॉनिस्लॉ मॅलिनोस्की हाची 'लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स' हातुंतलीं व्याख्यानां आयकुपाची संद मुजुमदाराक मेळ्ळी. तेन्नासावन तो ह्या विशयाकडे चड आकर्शीत जालो. थंयच्या संशोधनांच्या प्रभावाक लागून मुजुमदाराक खुबूच उमेद निर्माण जाली.

भारतीय मानवशास्त्राक समाजीक विज्ञानाची स्वतंत्र शाखा म्हूण मान्यताय मेळोवन दिवपाक ताचो म्हत्वाचो वांटो आसा. मनशाचे शारिरीक, मानसिक, सांस्कृतिक गुणधर्म खोलायेन अभ्यासून तेविशीं विश्लेशणयुक्त मतां ताणें मांडलीं. तेचभशेन विंगड विंगड भारतीय जमाती आनी तांच्या सांस्कृतिक नदरेची समाजशास्त्रीय आनी मानवशास्त्रीय विस्कटावणी हो ताचो खाशेलो अभ्यासाचो विशय आशिल्लो. हें करतनाच ताणें सांस्कृतिक परिवर्तन आनी समाजीक स्तरीकरण हेविशींची नदर हांचेंय संशोधन केलें. खोलायेन अभ्यास करपाखातीर तो जायत्या जमातींनी प्रत्यक्षांत वचून रावलो. उत्तर प्रदेश, बंगाल आनी गुजरात हांगाच्या जाती-जमातींचो ताणें खाशेलो अभ्यास केलो. खासी, कोरवा, थारू आनी उत्तर प्रदेशांतल्यो चडशो गुन्यांवकार मानिल्ल्यो जमाती, गोंड, भिल्ल ह्या जमातींचीं खाशेलपणां, तांचें स्वरूप आनी वंशाविशीं विस्तारान विस्कटावणी केल्या. तांचो परस्पर

संबंद आनी नागरी संस्कृतींचो हे जमातीवयले परिणामूय ताणें स्पश्ट केलो. अशे तरेचो पयलेच खेपेक अभ्यास करपाचो मान डॉ. मुजुमदाराक फावो जाता. खासी जमातींत बावीस खेपे प्रत्यक्ष वचून ताणें म्हायती मेळयली. ही म्हायती १९६२ वर्सा 'हिमालयन पॉलिॲंड्री' ह्या नांवान पुस्तक रुपान उजवाडा आयली.

ताणें आदिवासी जमातींचो अभ्यास सांस्कृतिक मानवशास्त्रीय नदरेंतल्यान केला. त्याच वांगडा समाजीक मानवशास्त्राकूय तितलेंच म्हत्व दिलां. मानव, ताचे भोंवतणची सुवात, विंगड विंगड साधनां आनी परस्पर सहकार्य ही संस्कृतीची मूलभूत बसका आसा, अशें ताचें मत आसा. राश्ट्रीय पुर्नबांदणेच्या कार्यांत समाजीक विज्ञानांचें म्हत्व आनी कार्य हेविशींय डॉ. मुजुमदारान आपल्या मतांचो प्रसार केला. भारताच्या नियोजन समितीचो सभासद ह्या नात्यान वेवस्थापनांत समाजशास्त्रज्ञ आनी मानवशास्त्रज्ञ हांचो आदार घेवपाचेर ताणें भर दिलो.

मरणाआदीं कांय काळ डॉ. मुजुमदार लखनौ विद्यापिठांत मानवशास्त्राचो प्रपाठक आनी कला विभागाचो डीन ह्या पदांचेर काम करतालो.

डॉ. डी. एन. मुजुमदाराचे प्रबंध आनी पुस्तकां हांकां मानवशास्त्रीय अधिश्ठान आसा. ताचें पयलें पुस्तक 'ए ट्राईब इन ट्रान्झिशन' (१९३७). हाचे उपरांत १९५० वर्सा ह्या पुस्तकाची दुसरी आवृत्ती 'द अफेअर्स ऑफ अ ट्राईब' ह्या नांवान उजवाडा आयली. खासी जमातींत वचून एकठांय केल्ली म्हायती, ताच्या 'हिमालयन पॉलिअँडरी' ह्या नांवान पुस्तक रुपान उजवाडा आयल्या.

डॉ. मुजुमदाराचेर, अमेरिकन मानवशास्त्रज्ञ रुथ बेनेडिक्ट हाचोय प्रभाव पडिल्लो दिसता. मुजुमदाराच्या 'फॉर्च्युनस ऑफ अ प्रिमिटव्ह ट्राईब' ह्या पुस्तकावयल्यान अशें दिसून येता.

१९४७ वर्सा सुरू केल्ल्या 'ईस्टर्न अँथ्रॉपॉलॉजिस्ट' ह्या नेमाळयोचोय तो संपादक आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**मुद्गल पुराण :** एक गाणपत्य पुराण. ह्या पुराणाक गणेश पुराणाच्या फाटल्यान म्हत्व आसा. हें पुराण गणेश पुराणा उपरांत रचिल्ल्यान, गणेश पुराणांतल्यो सगळयो कथा ल्हान प्रमाणांत ह्या पुराणांत आयल्यात. तशेंच हेर पुराणांतलीं गणेशाविशींचीं आख्यानां, कथा ह्या पुराणांत एकठायल्यांत. ह्या पुराणाचे णव खंड आसून तातूंत ४२७ अध्याय आसात. मुद्गल पुराणाचो हेत गणेश पुराणापरस वेगळो आसा. गणेशकथा सांगप हो गणेशपुराणाचो हेत, पूण मुद्गल पुराणांत गणेशतत्त्वाचें आध्यात्मिक स्पश्टीकरण हो आसा. हातूंत गणेशतत्त्वाची परब्रह्म स्वरुपांत सोपपत्तिक आनी विस्तारान मांडणी केल्या. वक्रतुंड, एकदंत, महोदय, गजानन, लंबोदर, विकट, विघ्नराज, धूम्रवर्ण हे गणेश अवतार ह्या पुराणांत वर्णिल्यात.

मुद्गल ऋषी हो ह्या पुराणाचो वक्तो आसून, दक्ष हो श्रोता आसा. हो दक्ष म्हळयार दक्षप्रजापती नासून, दक्ष नांवाचो एक राजा आसुंये. गणेश पुराणाच्या उपासना खंडांत सोमकांत राजाचो आठवो पूर्वज म्हूण ताची कथा आयल्या. कुष्ठो, मोनो, भेरो आनी सगळया आंगभर मावो आशिल्लो हो दक्ष मुद्गल ऋषीच्या आंगावयल्यान आयिल्ल्या वाऱ्यान ताका दिव्यदेह प्राप्त जालो. उपरांत ताणें मुद्गल ऋषीचो मंत्रोपदेश घेवन तपश्चर्या केली आनी आपलें राज्य मेळयलें.

ह्या पुराणांत आयिल्ल्यो कांय कथा अशो आसात- इंद्रपद मेळोवचे पासत सुरू केल्ल्या एका महोत्सवांत रंभेक पळोवन इंद्र कामातुर जावन ताचें वीर्य स्खलित जालें. ताचेपसून मत्सर नांवाचो एक असुर तयार जालो. ताणें शुक्राचार्याकडल्यान पंचाक्षरी विद्या घेतली आनी तप केलें. त्या तपान प्रसन्न जावन शंकरान ताका अभय दिलें. दुर्बुध्दीची धूव मदकरा हिचेवांगडा ताणें लग्न केलें. तिचेपसून ताका सुंदरप्रिय आनी विषयप्रिय अशे दोन पूत जाले. मत्सरान उपरांत आपलो राज्याभिशेक करून घेतलो, व्हड सैन्य एकठांय केलें आनी त्या सैन्याच्या बळार सगळो भूलोक आनी पाताळलोक जिखलो. उपरांत ताणें कैलासाचेर लेगीत आक्रमण केलें. थंय रावन तो त्रैलोक्याचें राज्य करूंक लागलो. तेन्ना ताचे हे करणेन त्राशिल्ल्या देवांनी गणेशाची प्रार्थना केली. ती आयकून गणेशान वक्रतुंड नांवाचो अवतार घेतलो. ह्या वक्रतुंडाची भेट जायना फुडें मत्सरासुर भिलो आनी ताचेकडे झूज करीनासतना वक्रतुंडाक शरण गेलो. अशेतरेन मत्सरासुर थंड जावन देवांकूय सुशेग जालो.

अश्विनी कुमारांक खयंच्याच यज्ञांत वांटो घेवंक मेळनासलो. च्यवन ऋषीक तांणी दोळे आनी तरनाटेंपण दिलें म्हूण च्यवन ऋषीन शर्याती राजाच्या यज्ञांत तांकां हविर्भाग दिवपाचें थारायलें. तो यज्ञ चालू आसतना इंद्रान त्या यज्ञांत विघ्न हाडलें. ताका हारोवपा खातीर च्यवन ऋषीन आपल्या तपाच्या बळग्यान मदासुर नांवाचो भिरांकुळ मनीस तयार केलो. ताका शक्ती देवतेन वर दिलो. उपरांत ताणें सगळया देवांक हारयले, तेन्ना गजाननान एकदंत नांवाचो अवतार घेवन मदासुराक हारयलो.

एकदां शंकर भिल्लिणीक भुलून तिच्या फाटल्यान लागलो, तेन्ना मोहासुराचो जल्म जालो. ताणें सुर्याकडल्यान वर घेतलो. उपरांत ताणें मदिरा नांवाचे बायलेकडे लग्न केलें. तिचेपसून ताका पांच पराक्रमी पूत जाले. फुडें तांणीं त्रैलोक्य जिखून सगळया देवांक त्रासांत घाले. तेन्ना गणेशान महोदर नांवाचो अवतार घेवन त्या महासुराक थंड केलो.

शकुनीचो दुर्बुध्दी नांवाचो पूत आशिल्लो. ताका गणेशान विघ्नहररुपान मारलो. दुर्बुध्दीचो पूत ज्ञानारी. ताणें आपल्या बापायच्या मरणाचो सूड घेवपाखातीर तप करून सगळया देवांक भिवयले. तेन्ना गणेशान लक्ष्मीच्या पोटांत जल्म घेतलो. ज्ञानारीक सुबोध नांवाचो पूत आशिल्लो. तो गणेशभक्त आशिल्ल्यान ज्ञानारीन ताचे खूब हाल केले. निमाणें गणेशान त्या ज्ञानारीक मारलो.

अशे तरेन गणेशान घेतिल्ल्या विंगड विंगड अवतारांच्यो कथा ह्या मुद्गल पुराणांत आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**मुदलियार :** म्हैसूर प्रदेशांतली एक जात. ही वेल्लाळ लोकांची एक पोटजात. मुदलियार शब्दाच्यो दोन व्युत्पत्त्यो सांगतात. मुदल म्हळयार पयलो आनी अर म्हळयार जोत. ताचे वयल्यान पयलीं शेतकाम करपी ते मुदलियार. दुसरो अर्थ- मुदल म्हळयार संपत्ती. ताचे वयल्यान गिरेस्त वेपारी लोकांक मुदलियार ही भोवमानाची पदवी लायतात. मुदलियार हे स्वताक वैश्य समजतात.

इ.स.च्या ७व्या शेंकड्यांत, कावेरी न्हंयेचे दक्षिण देगेचेर एक चोळ राजा राज्य करतालो. कावेरीचे उत्तर देगेचेर आशिल्ल्या दंडकारण्यांत कुरुंब नांवाची एक रानवटी जमात रावता. एकदां राजा थंय शिकारेक गेल्लो आसतना, राजाची आनी ताच्या वांगड्यांची चुकामूक जाली. राजा एकटोच रानांत भोंवत उरलो. थंय ताका एक अप्सरा मेळ्ळी. राजाक ती खूब आवडली. राजा तिचेर भाळ्ळो. तेन्ना तिणें मळब, धर्तरी आनी तोंड रूख हांकां गवाय दवरून राजाक अट घाली, की आपल्या पुताक राज्य मेळपाक जाय. तेउपरांत कांय काळान राजा आपले राजधानीक परतलो आनी ही सगळी घडणूक विसरलो. हे वटेन अप्सरेक चलो जालो. रानांतल्या ऋषींनी ताका शास्त्रां आनी कला शिकयल्यो. तो व्हड जातकच आवयन ताका ताच्या जल्माची सगळी काणी सांगली. तेन्ना तो राजाकडे गेलो आनी ताणें राज्याची मागणी केली. पयलीं राजा ताका वळखलो ना. पूण साक्षीदारांचीं नांवां सांगतकच राजाक वळख पटली. पूण राजान पयलींच आपल्या पुताक गादयेर बसयल्लो. तेन्ना हातुंतल्यान मार्ग काडपाखातीर राजान ताका कुरुंबांचो प्रदेश जिकून थंय राज्य स्थापन करपाक सांगलें. पुतान तशेंच केलें आनी तोंड रुखाची याद म्हूण आपल्या राज्याक तोंडलम अशें नांव दिलें. कानडा प्रदेशांतल्या तुळूव लोकांक ताणें आपल्या राज्यांत हाडले. ह्या लोकांक मुदलियार आपले पूर्वज मानतात.

हांचीं लग्नां आवय बापूय थरयतात. आते वा मामे भयणीकडे लग्न करपाक मेळटा. लग्नसुवाळो पांच दीस चलता. पयल्या दिसा पांच सवयाशिणी बायलो लग्नमाटवाचो खांबो पुरतात. दुसऱ्या दिसा कुलदेवतेची पुजा करतात. त्याच दिसा सांजवेळा न्हवऱ्याक मिरवणुकीन व्हंकलेगेर हाडटात. तिसऱ्या दिसा लग्न जाता. त्या दिसा व्हंकल-न्हवंऱ्याक तेल हळद लावन न्हाणयतात. कांकण बांदप, लग्नाचो होम, सप्तपदी, कन्यादान आनी ताळी बांदप हे त्या दिसाचे मुखेल विधी आसतात. चवथ्या दिसा होम जाता. पांचव्या दिसा कांकण सोडयतात. गर्भादानाचो विधी लग्ना उपरांत तिसऱ्या म्हयन्यांत करतात. तोमेरेन व्हंकल कुळाराच रावता. कारण पयल्याच वर्सांत भुरगें जावप अशुभ मानतात.

मुदलियार जातींत कांय लोक शैव आनी कांय लोक वैश्णव आसात.

सादारणपणान हे लोक मडें जाळटात. शैव मनशाक मात बसयल्ले अवस्थेंत पुरतात. सोळा दीस सूतक पाळटात. हे लोक श्राध्द करतात आनी जातींतल्या लोकांक जेवण घालतात.

हांच्यांतले कांय लोक शेती करतात, कांय जाण वेपारी, कंत्राटदार आनी दलाल आसात.

ह्या लोकांचो भेस उच्चवर्गीय हिंदूंभशेन आसता. हे लोक तमिळ भास उलयतात.

ह्या लोकांची जात पंचायत आसता. हे जात पंचायतीवतीन जातींतले अंतर्गत प्रस्न सोडयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मुद्रणकला :** चित्र, अक्षर वा तत्सम आकृती, दाब आनी रंगद्रव्याचो वापर करून छापपाची कला. हे कलेंत एके आकृतीच्यो आपल्याक जाय तितल्यो प्रती काडपाक जातात. आधुनिक काळांत नवे यंत्रणेक लागून दाबाचो वापर करपाची गरज लागना आसली तरी छाप (मुद्रा) काडप जाता आशिल्ल्यान आधुनिक छापणावळीक मुद्रणकलाच म्हण्टात. हे कलेवरवीं कागद, कापड, धातू, प्लास्टीक सारकिल्ल्या पृश्ठभागांचेर छाप मारप जाता.

**इतिहास :** मुद्रणकलेचो सोद केन्ना लागलो हाचे विशीं निश्चीत अशी म्हायती मेळना. पूण कागदाचो सोद जसो सगळयांत पयलीं चीनांत लागलो तसोच मुद्रणकलेचो सोदय चीनांतच लागलो अशें म्हण्टात. लाकडाच्या चौकोनी कुडक्यांचेर गौतम बुध्दाचीं चित्रां कोरांतताले आनी ताका तींत लावन तीं कागदाचेर घट दाब दिवन छापताले.

चीनाच्या अस्तंतेकडल्या दोंगरांत सहस्त्रबुध्दांची व्होंवरी आशिल्ली आनी ती इ.स. १०३५ ह्या वर्सा बंद केल्ली. तो आदीं एक विहार आशिल्लो आनी त्या विहारांत बौध्द धर्माचे ग्रंथ आसुंये हे कल्पनेन ९०० वर्सांउपरांत म्हळयार इ.स. १९०७ वर्सा ती व्होंवरी बौध्द धर्मीय फुडाऱ्यांनी उक्ती केली. तेन्ना ते गुहेंत गुंडाळी केल्ले तीन हजार कागदाचे ग्रंथ मेळ्ळे. तांतुतल्या कांय ग्रंथांचेर मुद्रणकाल दिल्ले आसात. ह्या सगळया ग्रंथांत सगळयांत पोरनो ग्रंथ म्हळयार 'हीरकसूत्र'. ताचो लेखन समाजीकाल ११मे ८६८. थंय आनीकूय कांय ग्रंथ मेळ्ळे. ते लंडनच्या ब्रिटीश म्युझियमांत दवरल्यात.

सुरवातीक ग्रंथाचें एकेक पान लाकडाचेर कोरांतताले आनी तींत लावन तें छापताले. मागीर कांय लोकांनी एकेका अक्षराचे लाकडाचे ठोकळे केले. कांय लोकांनी ओले मातयेचे ठोकळे करून ते भट्टेंत भाजले. हाकालागून वेगवेगळया अक्षरांचे ठोकळे जुळोवन ग्रंथ छापपाची सोय जाली. हें काम पी. शेंग हाणें केलें. उपरांत लाकडाचे वा मातयेचे ठसे टिकनात देखून तांब्याचे वा लोखणाचे ठसे करूंक लागले.

सद्याची मुद्रणकला युरोपांत जल्माक आयली. हांगाय चिनांतल्यासारकींच लाकडी ठोकळयांचेर किरिस्तांव साधु-संतांचीं चित्रां

काडपाची पद्दत १३व्या आनी १४व्या शतमानांत सुरू जाली. संताच्या नांवा सकयल ताचें नांवूय कोरांतूक लागले. अशे पद्दतीन छापिल्लें पयलें चित्र खिस्तोफराचें आशिल्लें. १४२३ वर्सा हें चित्र छापलें तें सद्या ब्रिटीश म्युझियमांत आसा. हे छापपाचे पद्दतीक 'शिलोग्राफी' हें नांव पडलें. हेच पद्दतींत त्या काळांत इस्पिकोय छापताले. इतलेंच न्हय तर हे शिलोग्राफी पद्दतीन बायबलय छापलें. Biblia Pauperum (म्हळ्यार गरिबांचें बायबल) हें ताचें नांव.

पूण फुडें मातयेच्या वा लाकडाच्या ठोकळ्यांनी बायबला सारकीं मोटीं पुस्तकां छापप त्रासाचें जालें, तेन्ना छापपाची एक नवी पद्दत सुरू जाली. हे नवे पद्दतीक टिपॉग्राफी ह्या नांवान वळखतात. दोन संशोधकांनी दोन वेगवेगळ्या गांवांत हो टिपोग्राफीचो सोद लायलो.

होलंडांतल्या हार्लेम गांवांत कॉस्टर नांवाच्या मनशान धातुचे टायप तयार करून छापिल्लें 'आमच्या मुक्तीचो आदर्श' हें जगांतलें टिपोग्राफी पद्दतीन १४४१वर्सा छापिल्लें पयलें पुस्तक अशें म्हण्टात. पूण हेर कांय तज्ञ लोकांच्या मतान गटेनबर्ग होच आधुनिक मुद्रणकलेचो जनक, म्हूण १९५६ वर्सा मुद्रण कलेचो पांचशें वर्साचो सुवाळो केलो.

सद्या गटेनबर्ग होच मुद्रणकलेचो जनक अशें जग मानता. जर्मनींतल्या मेंच ह्या गांवांत तो इ.स. १४०० वर्सा जल्मलो. १४५० वर्सा मेंज गांवांत ताणें छापखानो काडलो आनी बायबल छापूंक सुरवात केली. हें बायबल १३०० पानांचें आशिल्लें आनी तें ताणें दोन भागांत छापलें. ह्या बायबलाची एकच प्रत पॅरिसांतल्या मॅझारीन नांवाच्या एका पाद्र्याच्या घरांत मेळ्ळी. देखून ताका मॅझारिन बायबल म्हण्टात. ताच्या दर एक पानाच्या दोन कोलमांत ४२-४२ अशो वळी आसात. देखून ताका ४२ वळींचें बायबल अशेंय म्हण्टात. गटेनबर्गान तें छापलां देखून ताका 'गटेनबर्ग' बायबल, मेंझच्या म्युझियमांत तें दवरलां देखून ताका मेंज बायबल अशेंय म्हण्टात.

मुद्रणकलेचें शास्त्र विकसीत जावपाक १९व्या शतमानांत सुरवात जाली. हातान केल्ले अक्षर जुळणीची सुवात यंत्रीक अक्षरजुळणीन घेतली आनी उपरांत संगणकाच्या आदारान कार्यक्रमीत अशी अक्षरजुळणी करपामेरेन मुद्रणकला विकसीत जाली. एक रंगी मुद्रणापसून भौरंगी मुद्रण करपाची तजवीज जाली. हातूंत पत्र्याच्या आदारान केल्लें प्रतीरूप मुद्रणतंत्रान भर घाल्या. आतां तर इलेक्ट्रॉनीक तंत्राची मदत मेळटा जाल्ल्यान मुद्रणकलेच्या तंत्रांत दिसान दीस भर पडत आसा.

**भारतांतलो इतिहास आनी विकास** : भारतांत १५५६ त मुद्रणकलेच्या तंत्राची म्हायती मेळ्ळी. गोंयांतल्या लोकांचें धर्मांतर करून धर्मप्रसार करपाच्या हेतून पुर्तुगेजांनी गोंयांत एक मुद्रणालय सुरू केलें. १५५७ त ह्या मुद्रणालयांत जे. बूस्तानांते हाणें सेंट झेव्हिअर हाचे Doutrina Christa हें पयलें पुस्तक उजवाडा हाडलें. थंयच्यान मुद्रणकलेचो प्रसार भारतांतल्या हेर वाठारांत म्हळ्यार कोचीन, पुडीकाईल, अंबलक्कडू, त्राकेबार हांगा जालो. १५५७ वर्सा अंबलक्कडू हांगा 'मलबार टाइप' ह्या नांवान पयले खेप जे. गॉनसॅलव्हिस हाणें अक्षर खिळे तयार केले. ताचे उपरांत इग्नेशियस ऐशामोनी हाणें लाकडी सांचे कोरून तमिळ लिपींतले खिळे तयार केले. ह्या अक्षर खिळ्यांचो उपेग तमिळ पुर्तुगेज भाशांचो शब्दकोश तयार करपाखातीर केलो. अठराव्या शतमानाचे सुरवेक डॅनिश धर्मप्रसारक बॉर्थालोमस झिगेनबाला हाणें उदेंत जर्मनींतल्या हाल हांगा तयार केल्ले तमिळ खिळे वापरून हें पुस्तक छापलें. हें पुस्तक म्हळ्यार बायबलाच्या नव्या कराराचें तमिळ भाशेंत केल्लें भाशांतर. उपरांत त्रांकेबार हांगा मलबारी आनी तमिळ खिळे तयार करपाक सुरवात जाली.

अठराव्या शतमानाच्या निमाणें इंग्लीश लोकांनी कलकत्ता, चेन्नई आनी मुंबय ह्या शारांनी मुद्रण सुरू करून ह्या तंत्राच्या वावरांत गती हाडली. १७७८ वर्सा कलकत्त्या लागसारच्या हुगळी हांगा अँड्रूज हाच्या छापखान्यांत एन. बी. हॉलहेड हाचें 'ए ग्रामर ऑफ द बेंगाली लँग्वेज' हें पुस्तक छापलें. ह्या पुस्तकाखातीर लागपी सगळे अक्षर खिळे चार्लस विल्किन्झ हाणें तयार केल्ले. तेचपरी हे खिळे तयार करपाखातीर पंचानन कर्मकार नांवाचो एक भारतीय कारागीर, शिक्षण दिवन तयार केल्लो. ताणें मागीर ही कला भारतीय तंत्रज्ञांक शिकयली. फुडें चार्लस हाणें कलकत्ता हांगा नवो छापखानो सुरू केलो आनी देवनागरी तशेंच पर्शियन लिपयांचे खिळे तयार केले.

मुंबय शारांतल्या मुद्रणाखातीर अक्षर खिळे इंग्लंडाच्यान हाडिल्ले. चेन्नईंत व्हेपेरी हांगा १७७९ त तमिळ-इंग्लीश शब्दकोश छापून उजवाडा हाडलो. अठराव्या शतमानाच्या निमाणें मुंबय, चेन्नई आनी कलकत्ता हांगा आनीकूय मुद्रणालयांची स्थापना जाली.

इ.स. १८४० त कलकत्ता लागसारच्या सेरामपूर हांगा विल्यम कॅरी हाणें पंचानन कर्मकार आनी ताचो जावंय मनोहर हांच्या आदारान स्वताचो छापखानो काडलो ह्या दोगाय कारागिरांनी भारतांतल्या चडकरून सगळ्या लिपयांतलीं अक्षरां तयार केलीं. हाचेभायर भारता भायल्या लिपयाचे अक्षर खिळेय तांणी तयार केले. हे ओतशाळेंत भारतीय छापखान्याखातीर भारतीय लिपयांचे अक्षर खिळे मेळूंक लागले.

१८०१-१८३२ ह्या काळांत ह्या छापखान्यांत वेगवेगळ्यो भारतीय भासो आनी परदेशी भासो मेळून ४० भासांतले १२,००० ग्रंथ छापले. १८१८त विल्यम कॅरीन 'दिग्दर्शन' आनी 'समाचार दर्पण' हीं नेमाळीं छापून उजवाडा हाडलीं. पूण ताचे आदीं जेम्स ऑगस्टस हाणें 'बेंगॉल गॅझेट' नांवाचें दिसाळें सुरू केल्लें. फुडें एकोणिसाव्या शतमानांत साक्षरता आनी शिक्षणाच्या प्रसारा वांगडाच मुद्रण वेवसायांत उदरगत जावंक लागली.

विसाव्या शतमानाचे सुरवेक ह्या वेवसायाक सुमाराभायर चालना मेळ्ळी आनी हो वेवसाय संवसारभर पातळ्ळो.

१४९८ वर्सा वास्को द गामा हो गोंयांत आयलो. ताचेआदीं इथिओपियाच्या आर्चबिशपान पुर्तुगालापसून एक छापखानो मागयलो. ताका जायतसलो छापखानो घेवन जुवांव द बुस्तामांती हो इथिओपियाक येवंक भायर सरलो. पूण अरबी समुद्रांत वादळ जालें आनी बुस्तामांती गोंयांत पावलो. थंयच ताणें छापखानो मांडलो. जुवांव द बुस्तामांती होय एक मिशनरी आसलो. ताचे आदीं हिंदुस्थानांतल्या धर्मलंड लोकांक धर्म दिवपाक वास्को द गामा गोंयांत आयिल्लोच. तेखातीर ताका किरिस्तांव धर्माचीं प्राथमिक स्वरुपाचीं पुस्तकां जाय आसलीं. पुर्तुगालासाकून पुस्तकां छापून धाडचे परस हांगाच सुरू केल्ल्या छापखान्यांतल्यान तीं छापचीं अशें थारावन त्या छापखान्यांत Conclusoes हें पयलें पत्रक छापलें (१५५६). हाचे उपरांत ह्याच छापखान्यांत Doutrina Cristan (दौत्रिन क्रिस्तां) हें पुस्तक छापलें. Compendio Erpiritual de Fe' Christan, हे पुस्तक आर्चबिशप गाश्पर द लियांव हाणें स्वता बरयलें आनी छापलें.

इ. स. १५५६ वर्सा पोरन्या गोंयांतलो छापखानो बंद पडलो. ह्या काळांत फकत एक पुस्तक ह्या छापखान्यांत छापिल्लें. फुडें १६१६ वर्सा रायतूर (Rachol) ह्या वाठारांत सां लोवरँसु कुलॅसियु हांगा पुर्तुगेजांनी छापखानो सुरू केलो. ह्या छापखान्यांत फादर स्टीफन्सचें ख्रिस्तपुराण हें पयलें पुस्तक छापलें. उपरांत हो छापखानो १६६० वर्सा बंद पडलो. पूण ताच्या ४४ वर्सांच्या काळांत चाळीसेक ग्रंथ छापप जाले. तातुंतले १९ पुर्तुगेज भाशेंत आनी १९ कोंकणींत तशेंच मराठींत आशिल्ले. हातुंतले म्हत्वाचे ग्रंथ म्हळयार किरिस्तांवाच्या पाद्री दौत्रिनीचो अर्थ (कोंकणी), एनियँ द ला कुआचें 'पीटर पुराण' (मराठी) आनी पाद्री आंतोनियु द साल्दान्य हाची सांतु आतोनिची जीवितकथा (मराठी). निमाणे १६६० वर्सा Soliloquios Divinos (पुर्तुगेज) हें छापल्या. उपरांत छापखानो बंद पडलो. पुर्तुगेजांउपरांत भीमणी पारेख, नाना फडणीस आदींनी मुद्रणाचे यत्न केल्ले पूण तांकां व्हडलेंशें यश मेळ्ळें ना.

- बा. द. सातोस्कर

- कों. वि. सं. मं.

**मुद्रा :** 'मु' म्हळयार ग्रहांचे पीडेसावन मुक्त करपी आनी 'द्रा' म्हळयार पापांचें द्रावण करपी. मुद्रा ह्या शब्दाचे धर्मीक आनी लौकिक अशे खूब अर्थ आसात. चिन्न, खूण, प्रतिमा, प्रतीक, ठसो, अवस्था असोय मुद्राचो अर्थ जाता.

हात, पांय, बोटां हांचे खाशेले स्थितींक मुद्रा म्हण्टात. देखीक- धेनुमुद्रा, घंटामुद्रा, भूस्पर्शमुद्रा, अभयमुद्रा आनी हेर. विष्णुच्या आयुधांचीं शंख, चक्र हीं चिन्नां वैश्णव लोक आपल्या शरिराचेर धारण करतात, तांकां मुद्रा म्हण्टात. गोरखपंथी साधू कंवची वा स्फटिक हांचे कानांतले अलंकार वापरतात तांकां मुद्रा म्हण्टात. हठयोगांतल्या भूचरी, खेचरी, वज्रोली, चाचरी, अगोचरी ह्या क्रियांक मुद्रा म्हण्टात. तांत्रिक गुह्य साधनेंत जी सहजसाधिका म्हूण साधकाकडेन अंगसंग करता ते बायलेक मुद्रा अशेंच म्हण्टात. नाच, नाट्य, मूर्ती ह्या कलांतल्या हातांच्या खाशेल्या अवस्थांक लौकिक मुद्रा म्हण्टात. मंत्रशास्त्रांत मुद्रांक खूब म्हत्व आसा. ते ते देवतेक प्रसन्न करून घेवपापसत त्यो त्यो मुद्रा करून, त्यो गुरू कडल्यान समजून घेवपाच्यो आसतात. देखीक-गायत्री मंत्राचो जप सुरू करचे पयलीं २४ मुद्रा आनी जपा उपरांत ८ मुद्रा आसतात.

खयंचेय पुजेचे पयलीं अभय, चित्, वरद, साक्षात्कार आनी विद्राविणी ह्यो पांच मुद्रा करतात. दुसरो पर्याय सांगला तो असो- आवाहनी, स्थापनी, संनिधापनी, संबोधिनी, सन्मुखीकरणी आनी अवगुंठन देवाक निरांजन लायतकच करतात त्या मुद्रांचीं नांवां अशीं आसात- काल, योग, सिध्दी, वैहायसी, रस, संक्षोभण, शत्रुक्षयकरी, पाताल, अंजली आनी परमा. विष्णुपुजेंत ११मुद्रा आसात त्यो अशो- शंख, चक्र, गदा, पद्म, वेणू, श्रीवत्स, कौस्तुभ, वनमाला, ज्ञानमुद्रा, विद्याह्रपा, गरुडाख्या.



१ २ ३ ४ ५

माध्व ह्या वैश्णव संप्रदायांतल्यो मुद्रा- १ - चक्र; २ -शंख; ३ - गदा; ४ -पद्म ५ - नारायण.

लिंग, योनी, त्रिशूल, अक्षमाला, अभय, मृग, असी, खट्वांग, कपाल आनी डमरू ह्यो शिवपुजेंतल्यो १० मुद्रा आसात. पाश, अंकुश, वर, अभय, खड्ग, चर्म, धोणू, बाण आनी मुसल ह्यो देवीपुजेंतल्यो ९ मुद्रा आसात. गणपतीचे पुजेंतल्यो ७ मुद्रा अशो आसात- दंत, पाश, अंकुश, अविघ्न, परशू, लड्डुक आनी महाळुंग. अभिशेकाच्या वेळार कुंभमुद्रा, आसनाखातीर पद्ममुद्रा, उदक सोदपाखातीर गालिनीमुद्रा आनी प्रार्थना करतना प्रार्थनामुद्रा करपाची आसता.

पुजा, जपकाल, ध्यान आनी काम्य कर्म ह्या प्रसंगांनी ते ते देवतेच्यो मुद्रा करच्यो अशें मुद्रानिघंटूंत सांगलां. मुद्रानिघंटू, स्मृतिचंद्रिका, शारदातिलक आनी त्या त्या संप्रदायाचे ग्रंथ हातूंत मुद्रांचीं नांवां आनी वर्णनां मेळटात. हठयोगांतल्यो मुद्रा हठयोगप्रदीपिका, घेरंडसंहिता आनी शिवसंहिता ह्या ग्रंथांनी विस्तारान वर्णिल्यात. पुराणवाङ्मयातूय मुद्रांची म्हायती मेळटा.

हठयोगांत विंगड विंगड मुद्रांनी आसन, प्राणायाम, ध्यान आनी धारणा करची पडटा. मुद्रांच्या आदारान ह्यो गजाली करतकच जीव बळिश्ट जावन शिवलोकाक मेळटा अशें म्हळां.

घेरंडसंहितेंत हठयोगांतल्यो २५ तरांच्यो मुद्रा सांगल्यात त्यो अशो- १) महामुद्रा २) नभोमुद्रा ३) उड्डियान ४) जलंधर ५) मूलबंध ६) महाबंध ७) महामेध ८) खेचरी ९) विपरीत करणी १०) योनी ११) वज्रोली १२) शक्तिचालिनी १३) ताडगी १४) मांडवी १५) शांभवी १६) अधोधारणा १७) आंभसी धारणा १८) वैश्वानरी धारणा १९) वायवी धारणा २०) नभोधारणा २१) अश्विनी २२) पाशिनी २३) काकी २४) मातंगी २५) भुजंगिनी. ह्यो सगळयो मुद्रा ही एक विद्या आसा. हे विद्येचें अध्यापन अणभवी आनी तंत्रशास्त्रांत पारंगत अशा गुरू कडल्यानच जावप गरजेचें आसता.

बौध्दांच्यो १०८ मुद्रा आर्यमंजुश्रीमूलकल्प ह्या ग्रंथांत दिल्यात. जैनांच्यो ७३ मुद्रा डॉ. प्रियबाल शाह हाणें आपल्या मुद्राविचार ह्या पुस्तकांत दिल्यात.

वैश्णव संप्रदायांत रामानुजांचो श्रीवैश्णव संप्रदाय, वारकरी संप्रदाय हातुंतूय मुद्राविधी आसात. पूण माध्व संप्रदायांत हे विधीक जितली म्हत्वाची सुवात आसा तितली हेर खयंच्याच संप्रदायांत दिसून येना. माध्व संप्रदायांत, न्हातकच मुद्रा घेवपाचो एक खाशेलो सुवाळो आसता. ताका 'अंकन' अशें म्हण्टात. पयलीं कपल (१); पोट (३); छाती (१); भुजां (२); गळो (१); कर्णमूल (२); फाट (१); आनी माथें (१) ह्या अवयवांचेर दंड, दीपज्योत, वेळूचें पान हांच्या आकारांचे बारा नाम (ऊर्ध्वपुंड्र) घेतात. उपरांत गोपीचंदन झरोवन तातूंत चक्र, शंख, गदा, पद्म आनी नारायण ह्यो पांच मुद्रा त्या नामांचेर लायतात. खंयची मुद्रा खंयच्या अवयवांवयल्या नामांनी लावंची, तिचो क्रम खंयचो, ती कितले खेपे लावंची हेविशीं खास नेम आसात. जे मुद्रेचो प्रभाव शरिराचेर कायम तिगून उरता, अशी तापिल्ली मुद्रा धारण करपाचोय एक सुवाळो माध्व संप्रदायांत आसा. ही मुद्रा घेतकच मोक्ष मेळटा असो सांप्रदायिकांचो भावार्थ आसता. उजव्या दंडाचेर चक्राची आनी दाव्या दंडाचेर शंखाची मुद्रा घेतात. बायलांक लग्ना उपरांत मुद्रा घेवपाक मेळटा. भुरग्यांक मुद्रा दितना ती चड तापयनात. माध्व ब्राह्मण गुरूक मेळपाक मठांत वतात, तेन्ना तांकां मुद्रा घेवन, दक्षिणा म्हूण गुरूक तीन म्हयन्यांचें उत्पन्न दिवचें पडटा.

बौध्द तंत्रग्रंथांत ह्या मुद्रांची पिराय, जात, रूप हांची विस्कटावणी मेळटा. तांत्रिक बौध्दांची मुद्रा म्हळयार साधकान, साधनेखातीर आपणायिल्ली बायल. मुद्रा म्हूण आपणायिल्ले हे बायलेक जातीचें बंधन नासता. साधकाक उपयुक्त अशी मुद्रा वेंचून दिवप ही गुरूची जापसालदारकी आसता. हे तरेची साधना वज्रयानी साधकांभितर मध्ययुगांत प्रचलित आशिल्ली.

हीरॉडोटस हाणें ईजिप्तांतल्या हर्क्यूलीझाच्या एका देवळाचो उल्लेख केला. धनयाच्या घरांतल्यान पळून आयिल्ल्या गुलामांनी हर्क्यूलीझाविशीं भक्ती उक्तावपी मुद्रा आपल्या आंगाचेर घेतिल्ल्यो, जाल्यार तांकां पर्थून धरून गुलाम करपाचो अधिकार धनयाक नासता, अशें हिरॉडोटस म्हण्टा.

आपणें आपल्या शरिराचेर येशू खिस्ताची मुद्रा धारण केल्ल्याचो उल्लेख सेंट पॉल हाणें केल्लो. पॅटिअस हाणें कपलाचेर पवित्र मुद्रा धारण करपी खिस्ती व्यक्तींचो उल्लेख केल्लो.

तेराव्या शेंकड्यांउपरांतची एक घडणूक हेविशीं म्हत्वाची आसा. खुरसावयल्या येशू खिस्ताच्या आंगार जे घावे आशिल्ले, तसलेच घावे कांय भावार्थी लोकांच्या आंगाचेर दिसूंक लागले. अशे तरेचे घावे दिसपाचीं शंबरांपरस चड देखींची नोंद केल्या तातूंत सेंट फ्रान्सिस हाची देख चड म्हत्वाची मानतात. हे घावे म्हळयार एके तरेच्यो कायम स्वरुपाच्यो मुद्राच आसात.

आंगाचेर गोंदोवन घेवप कान आनी नाक तोंपप, सुंता करप ह्या सुवाळयांचें मुद्रा सुवाळयाकडेन सारकेंपण दिसता. पयशांचें चलन, प्रशासन अधिकाराची खूण हांकांय मुद्रा म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**मुरगांव** : दक्षिण गोंयचो एक तालुको. हाका मुरगांव वा मारमागोवा वा मोर्मुगांव अशीं नांवां आसात. भारताच्या अस्तंत किनार पट्टेवयल्या मुरगांव ह्या अतीम्हत्वाच्या सैमीक बंदरावयल्यान हें नांव ह्या तालुक्याक पडलां आसूं येता वा बंदराचे कुशीक आशिल्ल्या मुरगांव गांवाच्या नांवावयल्यान बंदराक मुरगांव हें नांव पडलां जांव येता.

जुवारी न्हंयेचे दावेदेगेर आशिल्लो आनी सालसेत तालुक्याचो एक वांटो आशिल्लो हो वाठार १७व्या शेंकड्यांत पुर्तुगेजांनी सालसेत सावन वेगळो केलो. आंतरराश्ट्रीय वेव्हाराखातीर पोरन्या गोंयचो धको पावना जाल्ल्यान आनी मुरगांव बंदराक बरी सैमीक वेवस्था आशिल्ल्यान पुर्तुगेजांनी मुरगांव बंदराचो विकास करपाक घेतलो.

ह्या बंदराची देखरेख आनी राखण करपाखातीर १७व्या शेंकड्यांत १ल्हानसो किल्लो (Head land) हेड लँड सड्यार बांदलो. हो किल्लो आयज अस्तित्वांत ना. ह्या बंदराच्या विकासाचीच एक येवजण म्हणून १८८८ त ब्रिटीश भारताच्या सहकार्यान हांगा रेल्वेलायन सुरू केली.

सुरवेक जरी ल्हान प्रमाणांत हांगा म्हालाची चड उतार जाताली, तरी उपरांत गोंयांतल्या खण उद्योगाची (मँगनेज आयर्न निर्यातीची) भरभराट जालेउपरांत ह्या बंदराचो व्याप कितलेशेच पटीन वाडलो. गोंय स्वतंत्र जालेउपरांत ह्या बंदराचो विस्तार वाडत गेलो आनी आयज हें बंदर म्हळयार भारताच्या अस्तंत किनार पट्टेवयलें आयात निर्यातीचें मुखेल बंदरांतलें एक म्हत्वाचें बंदर आसा.

ह्या बंदराचें म्हत्व लक्षांत घेवन भारताच्या संरक्षण खात्यान हांगा नाविक दळाची उबारणी केल्या. केंद्रीय बंदर विभागाअंतर्गत मार्मागोवा पोर्ट ट्रस्टच्या व्यवस्थापनाखाला ह्या बंदराचो कारभार चलता. मुरगांव बंदराच्या वेव्हाराक लागपी आस्थापनां आनी मनीसबळ हांची सोय म्हणून ह्या शाराची बांदावळ जाली.

वास्को द गामा हें नांव मुरगांव शाराक पुर्तुगेजांनी दिलें. हें ह्या तालुक्यांतलें मुखेल शार आसून, हें जुंवारी न्हंयेच्या तोंडार वसलां. १६८४ त पुर्तुगेजांनी ह्या शाराक आपली नवी राजधानी म्हूण मानिल्ली.

उपरांत रेल्वे स्टेशन, दाबोळी विमानतळालागचें शार आनी सद्या जुंवारी अॅग्रो कॅमीकल्स (साऱ्या कारखानो), सांकवाळ उद्येगीक वसाहत, नुस्तेमारी शिक्षणीक केंद्र, जहाज बांधणी (गोवा शिपयार्ड), नाविक तळ अशा साबार घटकांक लागून वास्को शाराचो विकास आनी विस्तार जायत आसा आनी म्हत्वय वाडत आसा.

दामोदर, लक्ष्मीनारायण, महालक्ष्मी (अंबाबाई), गुरूद्वार, सँट. अँड्र्यू चर्च हीं हांगाचीं मुखेल देवस्थानां. श्रावण म्हयन्यांत नागपंचमीक दामोदर मंदिरांतलो (सालांत) सप्ताह हो ह्या शारांतलो मुखेल उत्सव आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मुरगांव पोर्ट ट्रस्ट :** भारतांतलें आधुनिक सुविधा आशिल्ल्या मुरगांव ह्या म्हत्वाच्या बंदराचें आस्थापन. ह्या बंदराचो वेव्हार सुमार १८८८ त सुरू जाल्याची नोंद मेळटा. ह्या तेंपार फकत मुंबयचो व्हिक्टोरिया धको कार्यरत आशिल्लो. कलकत्ता बंदर आनी चेन्नई बंदर हीं उपरांतचीं बंदरां. ब्रिटीश आनी पुर्तुगेज वसाहतवाद्यांमदीं लिस्बन हांगा जाल्ल्या १८७८ चे कबलातीप्रमाण, दोनय सरकारांमदीं वेपारी देवघेव करपाच्या उद्देशान मुरगांव बंदराचो विकास करपाचें थारलें. द वेस्ट ऑफ इंडिया पुर्तुगेज गॅरंटेड रेल्वे कंपनीन मुरगांव बंदर आनी ताका जोडपी रेल्वे बांदकाम हातांत घेतलें. १९०२ त सदर्न मराठी रेल्वे आनी वेस्ट इंडिया, पुर्तुगेज गॅरंटेड रेल्वे हांचेमदीं युती जावन मुरगांव बंदर हें भारतीय वेपार उद्देगाचें बंदर जालें. १९५४ उपरांत सदन मराठा रेल्वेन भारत आनी गोंय हांचेमदीं येरादारी करपाचें बंद केलें.

भारत-गोवा शीमेबंदी उपरांत सदन रेल्वेचो डिसेंबर १९५५ त संपर्क तुटलो आनी मुरगांव बंदर आनी ताका जोडिल्लो रेल्वेचो कारभार परतून वेस्ट ऑफ इंडिया पुर्तुगेज गॅरंटेड रेल्वेकडे जानेवारी १९५६ त आयलो. १ एप्रिल १९६१ त Junta Autonoma dos Portos e Caminhos de Ferro' ह्या पुर्तुगेज सरकाराच्या स्वायत्त मंडळान बंदर आनी रेल्वेचें वेवस्थापन आपल्या हातांत घेतलें. १९ डिसेंबर १९६१ त गोंय स्वतंत्र जाले उपरांत हेर बंदरां भाशेन मुरगांव बंदर भारत सरकाराच्या येरादारी मंत्रालयासकयल आयलें. १ मे १९६३ त रेल्वेचो कारभार बंदरापसून वेगळो करून तो सदन रेल्वेकडेन सुपुर्द केलो. भारत सरकाराच्या १९६३ च्या कायद्याप्रमाण १ मे १९६४ त मुरगांव पोर्ट ट्रस्टाची स्थापना केली.

१९५९ त चौगुले कंपनीन उबारिल्लो वराक ६०० टनाप्रमाण यांत्रिक पद्धतीन मीन भरपाचो प्लान्ट हो आशिया खंडांतलो अशे तरेचो पयलो प्रकल्प आसा. १९६९त यांत्रिक पद्धतीन जहाजां भरपाचो प्रकल्प आशिल्लें मुरगांव हें देशांतलें पयलें बंदर आसा. तेलाचो धको १९७६ त कार्यरत जालो. वराक ८ हजार टन भरपाची कुवत आशिल्लो यांत्रिक पद्धतीचो मीन भरपाचो प्लांट १९७९ त कार्यरत जालो. बहुउद्देशीय धके १९८५ त आनी १९९४ त कार्यरत जाले.

वर्सुकी १४-१५ मिलियन टन देशाचे एकंदर निर्यातीच्या ४५% लोखणाची मीन निर्यात मुरगांव बंदरांतल्यान जाता. २५,००० ते २,३४,००० DWT तांकीचीं जहाजां भरपाची क्षमता ह्या बंदराक आसा. १ एप्रिल १९९८ सावन मुरगांव डॉक लेबर बॉड मुरगांव पोर्ट ट्रस्टांत विलीन जालो आनी ताचो कारभार मार्मागोवा पोर्ट ट्रस्टाखाला आयलो. ५१,५०० टनाची क्षमता आशिल्ले गुदांव तेभायर ७३,५०० सांठो करपाची क्षमता आशिल्ल्यो उक्त्यो सुवाती ह्या बंदराच्या मालकिच्यो आसात.

ट्रस्टाच्या प्रशासनाचें धोरण ट्रस्टाचें विश्वस्त मंडळ थरयता. तशेंच दीसपट्टो कारभार ह्या ट्रस्टाच्या संचालकाच्या मार्गदर्शनाखाल चलता. प्रशासनाच्या सोंप्यापणाखातीर सर्वसादारण प्रशासन विभाग, आयात निर्यात विभाग, अभियांत्रिकी विभाग, लेखा विभाग, वैजकी विभाग येवजण आनी संशोधन विभाग आसात. सद्या ३७०० लोक हांगा वेगवेगळ्या खात्यांत काम करतात. ट्रस्टाचें एक हॉस्पीटल, सहकारी भांडार, करमणूक केंद्र आनी १२वी मेरेनचें शिक्षण दिवपी एक शिक्षणीक संस्था आसा.

कोंकण रेल्वे आनी दक्षिण मध्य रेल्वेची सुविधा, मांडवी आनी हेर न्हंयांतली येरादारी, राष्ट्रीय महामार्गाचें जोडप, गोंय-महाराष्ट्र आनी कर्नाटक राज्याचो परिसर आनी बंदरांतल्या सुविधांचें जाल्लें वाढीव आधुनिकीकरण ह्या सगळ्या घटकांक लागून मुरगांव बंदराचो विकास दिसान दीस जायत आसून भारतांतलें एक आघाडीचें आदर्श बंदर म्हणून ताची नामना जायत आसा. गोंयचे अर्थीक उलाढालींत, वेव्हारांत आनी उदरगतींत ह्या बंदराचें व्हड योगदान आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : मुरगांव.

**मुरली :** एक वायुवाद्य. हाका सातारा, वंशी, कोळलू, वेणू, अलगूज, अलगोजा, मुरली, कोळवी, कुळल, पिल्लनकुळल, पिल्लनग्रोवी, जोडपावा, पावा अशीं विंगड विंगड नांवां आसात. हीं नांवां त्या त्या प्रदेशांतले, मुरलेची लांबाय, बुराकांची संख्या आनी वादनतंत्रां हांचेमदल्या वेगळेपणाक लागून पडल्यांत.

भांगर, चांदी, पितुळ, हतयादांत, चंदन, रक्तचंदन, वेत, खैर हांचेपसून मुरली करतात. हांचेमदली कोंड्याची मुरली वाजपाक सगळयांत बरी आसता. पूण ती खास अशा सुराची मेळपाक कठीण आसता. उश्ण हवामानांत कोंड्याची मुरली वेरेवन बेसूर जाता. हेखातीर पितुळची आनी लाकडाची मुरली चड वापरतात.

हें वाद्य करपाक एक वाटकुळी लांब पोकळ नळी वापरतात. मुरलेची लांबाय तिच्या प्रकाराप्रमाण १५ ते ६० सेंमी. अशी आसता. वाजोवपाच्या बुराकावांगडा स्वर काडपाखातीर नेमक्याच अंतराचेर स ते आठ बुराक आसतात.

मुरलेंत एक तोंक चेपटें आशिल्ली आनी दोनूय तोंकां उक्तीं आशिल्लेय कांय प्रकार आसतात. दोनूय वटांनी उक्ते आशिल्ले मुरलेक बासरी अशेंय म्हण्टात.

आठ बुराक आशिल्ले मुरलेंत, एक बुराक हवा भायर वचपाखातीर आनी सात बुराक सात स्वरांखातीर आसतात. जेन्ना मुरलेक स बुराक आसतात, तेन्ना सगळे बुराक बंद करतकच सातवो सूर येता. एकेचवटेन चेपटी आशिल्ले तोंकाचे मुरलेंत नेटान फूक मारल्यार वयल्या साप्तकांतलो पंचम मेळटा आनी उक्त्या प्रकारांत वयलो षड्ज मेळटा. हेखेरीज अष्टमस्वर काडपाक आनी सकयलो स्वर काडपाक चड बुराक आसतात. कोमल स्वर वाजोवपाक अस्तंते वादनापद्दतींत 'क्रॉस फिंगरिंग' तंत्र वापरतात. भारतीय पद्दतींत बुराक अर्दे उगडून हे स्वर काडटात.

भारतीय संगीत परंपरेंत मुरलेक उंचेली सुवात मेळळया. हिंदू धर्मांत श्रीकृष्णाचे मुरलेसंबंदान बऱ्योच आख्यायिका आसात. बुध्दाच्या काळांतूय धर्मीक संगीतांत ह्या वाद्याक खाशेली सुवात आशिल्ली. सूत्रवाङमय आनी जातककथांनी ह्या वाद्याचे उल्लेख सांपडटात.

पुर्विल्ल्या काळांत स्वरसप्तक थारावपाखातीर वेणू आनी वीणा हीं दोन वाद्यां प्रमाण मानताले. अस्तंती संगितांतलीं फ्ल्यूट, रॅकॉर्डर, फाइफ हीं वाद्यां मुरली ह्या प्रकाराखाला येतात.

मुरली, गायन-वादनाचे साथींत तशेंच स्वतंत्र वादनाखातीरूय वापरतात. अस्तंती संगितांत १८३२ आनी १८४७ ह्या वर्सा, जर्मन फ्ल्यूट वादक टेओबाल्ट बम हाणें फ्ल्यूटाचे रचणुकेंत बदल करून वादनतंत्रांत सुदारणा घडोवन हाडल्यात.

भारतांत हालींच्या काळांत नामनेच्या बासरीवादकांची एक परंपराच निर्माण जाल्या. पन्नालाल घोष, टी. आर. महालिंगम, देवेंद्र मुर्डेश्वर, बेडा देसाई, हरिप्रसाद चौरासिया, विजय राघवराव हे कांय नामनेचे मुंरलीवादक आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मुरळी :** खंडोबा देवाची उपासिका. भुरगें जालेंना वा जाल्लें भुरगें वांचलेना जाल्यार 'भुरगें वांचल्यार तुका ओंपीन' अशी खंडोबाक आंगवण करतात. अशे तरेन खंडोबाक ओंपिल्ल्या चलयांक 'मुरळी' आनी चल्यांक 'वाघ्ये' म्हण्टात. कांय खेपे लग्न जाल्ल्यो बायलो लेगीत 'आपल्याक खंडोबाची बायल जावपाविशीं सपन पडलें'. अशें सांगून खंडोबाक आत्मसमर्पण करून मुरळयो जातात.

मुरळयो आनी वाघ्ये सगळया दक्षिण महाराष्ट्रभर पळोवंक मेळटात. खंडोबाक अशे तरेन भुरगीं ओंपपाची चाल चड करून कुणबी आनी म्हार लोकांभितर प्रचलित आसा. मुरळयांचो भेस कुणब्यांच्या बांयलांभशेनूच आसता. ह्यो मुरळयो वेश्यावृत्तीन आनी भीक मागून आपलें पोट भरतात. तांचें खंडोबावांगडा लग्न करतात. त्यो कपलाक हळद सारयतात आनी गळयांत कवड्यांच्यो माळो घालतात. कांय मुरळयो सासणाच्यो जेजुरीक रावतात, दक्षिण महाराष्ट्रांत कांय मुरळयो वाघ्यांवांगडा खंडोबाचीं पदां गायत, भीक मागत भोंवतात.

मुरळी ही देवदासींच्या वर्गांतली खंडोबाची उपासिका आसा. देवदासी, भाविणी-जोगतिणी हांचेभशेनूच मुरळयांक देवसेवेंत रावन आंकवार जीण जगची पडटा. खंडोबाचे यात्रेंत वाघ्या आनी मुरळी हांचे खेळ जातात. एका हातान घोळ म्हळयार घांट वाजयत मुरळी नाच करता.

बंगालचो नामनेचो संत चैतन्य महाप्रभू हाणें आपले दक्षिण यात्रेंत जेजुरीक भेट दिली, तेन्ना मुरळयांक ह्या अनाचारासावन पयसावपाचो यत्न केलो. उपरांत इंग्लीश राज्यांत कांय सुदारकांनी हे प्रथेआड लोकमत तयार केलें. निमाणें कायद्यान मुरळीचे प्रथेचेर बंदी घाली. पूण फाव त्या प्रमाणांत लोक जागरण जावंक ना पाविल्ल्यान आजुनूय मुरळी जावपाचे प्रकार घडटात.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : देवदासी.

**मुश्ठीयुध्द :** (पळेयात बॉक्सींग).

**मुसलमान :** (पळेयात इस्लाम धर्म).

**मुसळानाच :** गोंयांतलो एक इतिहासीक नाचाचो प्रकार. हातांत मुसळ घेवन हो नाच करतात. साश्ट म्हालांतल्या चांदर ह्या गांवांत हो प्रकार अस्तित्वांत आसा. आदल्या काळांत हो नाच शिगम्यावेळार जातालो पूण आतां फेब्रुवारी म्हयन्यांत कार्निवालाच्या दुसऱ्या दिसा जाता.

चांदर हें मूळचें चंद्रपूर. ही कदंबांची राजधानी आशिल्ली. विजयनगरचो राजा हरीहर (पयलो) हाणें चंद्रपूर किल्लो चोल राजाकडल्यान जिखलो. तें जैत मनोवचेपासत हो नाच केल्लो (१३१०वर्सा) अशें कांय जाणांचें मत आसा. कांय जाणांच्या मताप्रमाण ह्या नाचांतलीं पदां सातवाहन काळांत रचल्यांत. सातवाहन काळांत रचिल्ल्या पदांक उपरांतच्या सत्ताधीशांचीं स्तुतिस्तोत्रां जोडल्यांत जावये.

ह्या नाचांतले कलाकार धोतर, लांब भुजांचो शर्ट, ताचेर काळ्या रंगाचें खाशेले तरेचें एक जाकीट, तकलेक पगडी असो भेस करतात.



मुखेल नाचप्यांचो भेस हेरांपरस वेगळेपण दाखोवपी आसता. तांच्या हातांत एक मुसळ आसता. छन छन असो आवाज येवपाखातीर मुसळाक मदीं बुराक काडटात आनी पातीं बसयतात. ह्या नाचाचे साथीक घुमट, कांसाळें वा झांज, धोलकें हीं वाद्यां आसतात.

देवळाच्या मुखार तशेंच गांवकार आनी क्षत्रिय हांच्या घरामुखार हो नाच करतात. बाटाबाटीवेळार चर्चिंत रुपांतर जाल्ल्या शिवमंदिराकडल्यान ह्या मुसळानाचाक सुरवात जाता. नाचपी दोन रांको करतात आनी हातांत मुसळां घेवन एका विशिश्ट थेक्यार पावली घालीत फुडें फुडें वतात. तांचे वांगडा एक अस्वलाचो भेस केल्लो मनीस आसता, आनी ताच्या गळ्यांतली दोरी एका मुखेल्याच्या हातांत आसता.

चर्चिंत रुपातंर जाल्ल्या शिव मंदिरामुखार नाचपी वर्तूळ करतात आनी हातातले मुसळ वर्तुळाभायर आनी भितर करीत मुसळान कांडिल्लेवरी एके खाशेले तरेन नाचतात. तांचे वांगडा आशिल्ले दिवटेकार आनी हेरूय त्या तालार नाचतात.

चर्चिच्या मुखावयलो नाच सोंपतकच एक देवदासी चली नाचावेळार जंय कांडलां ती सुवात साळीन झाडटा. थंय सावन नाचपी घरां-घरांनी वतात आनी थंय मुसळानाच करतात.

गोंयांतल्या हेर लोककला प्रकारापरस हो साप्प वेगळो असो प्रकार. मुसळानी यादव कुळाचो नाश केल्लो ताची याद करून दिवपी, कदंब काळाची याद करून दिवपी असो इतिहासीक नाचाचो प्रकार.

मुसळानाचा वेळार जीं पदां म्हण्टात तीं लिखीत स्वरुपांत मेळनात. तांचो पुराय अर्थ लायतलो जाल्यार तांचेर अभ्यास जावंक जाय.

मुसळानाचावेळावयलीं कांय पदां अशीं आसात.

जिला जिला लोंकना साय वरारा
यदी यदी सांसकी सांबराची
तितून आसा सायबीण भांगराची
बोलोल शिदियाक मुखो ना माय मेल्यार सुनेक दुखोना
मुखार खेळ वता मुसळांचो फाटल्यान सोर सोर तिसऱ्याचो
ओ सिंहा, ओ वीरा बोस रे घरा
सातशी गाना हरिहराचो - ओ.

- कों. वि. सं. मं.

**मुसोलिनी, बेनिटो :** (जल्मः २९ जुलय १८८३, दोव्हिया (प्रेदॉप्पा); मरण : २८ एप्रिल १९४५, दॉंग्गा, कोमो).

इटलीचो हुकूमशहा आनी फॅसिझम हे तत्त्वप्रणालीचो प्रवर्तक. ताच्या बापायचें नांव आलेस्सांद्रो. तो समाजवादी आशिल्लो आनी धवडकाम करतालो. ताची आवय रॉझा ही शिक्षिका आशिल्ली. ल्हानपणापसूनच मुसोलिनीचो स्वभाव झगडाळ आशिल्लो. हेखातीर दोन खेपो ताका शाळेंतल्यान काडून उडयलो. तशेंच तो बुध्दीमानूय आशिल्लो. देखून इश्कोलाची निमणी परिक्षा सोंपेपणी पास जालो आनी ताणें "फॉर्लीम्पॉपॉली" हे शाळेंतल्यान शैक्षणिक पदविका मेळयली (१९०१). शिक्षक म्हूण कांय दीस नोकरी केले उपरांत तो स्वित्झर्लंडाक पळून गेलो (१९०२). पूण फट पासपोर्टाक लागून ताका परत इटलीक परतुचें पडलें (१९०४). ह्या काळांत ताणें कार्ल मार्क्स, सोरेल, प्येअर प्रूदॉं, लूई ब्लांकी, प्यॉटर क्रपॉटक्यिन ह्या विचारवतांचें साहित्य वाचलें आनी तो कट्टर समाजवादी कामगार फुडारी जालो. राजकीय प्रचाराखातीर ताणें ट्रेन्टांतल्या "ला लोता दी क्लास" ह्या प्रांतीय बातमीपत्राचें संपादकत्व आपणायलें. ते उपरांत समाजवादी पक्षाचो संचालक म्हण ताची नेमणूक जाली आनी रोखडोच 'अवंती' ह्या मिलानांतल्या बातमीपत्राचो तो संपादक जालो (१९१२). ताच्या सडेतोड लिखाणाकलागून 'अवंती'चो खप चार पटींनी वाडलो. पयल्या महाझुजांत इटलीन तटस्थ रावचें ही पयलींची भुमिका सोडून ताणें देशान म्हाझुजांत वांटो घेवंचो म्हूण समर्थन केलें. हाकालागून समाजवादी पक्ष आनी "अवंती" हातुंतल्यान ताका धावंडायलो

(१९१४). ते उपरांत आपल्या विचारांच्या प्रचाराखातीर ताणें "पोपोलो द इतालिया" हें स्वतंत्र बातमीपत्र काडलें. तशेंच ताणें राशेली ह्या नायना ग्विदीचे धुवे वांगडा लग्न केलें (१६ डिसेंबर १९१५).

पयल्या म्हाझुजाउपरांत १९१९ त मिलान शारांत मुसोलिनीन फॅसिस्ट पक्षाची स्थापणूक केली. ते उपरांत १९२१ तो संसदेचेर वेंचून आयलो. चळवळीचो मार्ग आपणावन फॅसिस्टांनी बोलोन्या आनी मिलान ह्या शारांचो ताबो घेतलो. प्रशासकीय यंत्रणा अशावेळार ताचीं हिंसक कर्तुपां थांबोवक शकली ना. नेपल्स हांगा फॅसिस्टांचें १९२२ त अधिवेशन भरलें. तातूंत लुईजी फाक्ता सरकाराच्या राजीनाम्याची मागणी करपांत आयली. फॅसिस्टांक कारखानदारांवांगडाच उच्च मध्यमवर्गीयांचेंय फाटबळ मेळ्ळें. तेन्ना ताणें २८ ऑक्टोबर १९२२ दिसा रोमाचेर मोर्चो काडलो. ३० ऑक्टोबर दिसा इटलिच्या राजान फाक्ताचो राजीनामो घेवन मुसोलिनीक नवें मंत्रीमंडळ करपाक सांगलें आनी मुसोलिनीच्या हातांत सत्ता आयली. ताणें फॅसिस्ट आनी राष्ट्रीय पक्षाचें संयुक्त सरकार तयार केलें. राजान आनी संसदेन मुसोलिनीक पंतप्रधान केलो आनी सगळे अधिकार दिले. सुरवातीक ताणें घटनात्मक चौकटींतल्यान शांतता प्रस्थापीत केली आनी भितरल्या कारभारांत फॅसिस्ट अधिकारी नेमलो. अशेतरेन ताणें राजाकडल्यान आपले लश्करी संघटनेक मान्यताय मेळयली. ल्हव ल्हव मुसोलिनीन नवो मतदानाविशींचो कायदो संमत केलो आनी संसदेंत आपल्या पक्षाचें वर्चस्व प्रस्थापीत केलें (१९२४).

कांय दीस मुसोलिनीचे लोकप्रियतेक धोको निर्माण जालो. तेन्ना मुसोलिनीन बातमीपत्रांच्या स्वातंत्र्याचेर आनी विरोधकांच्या सभांचेर बंदी घाली. उदारमतवादी आनी कम्युनिस्टांनी ह्या वेळार निदर्शनां केलीं. पूण मुसोलिनीन तीं मोडून उडयलीं. शेवटाक मुसोलिनीन संसदेकडल्यान ३१ जानेवारी १९२६ दिसा एका अधिकृत कायद्यान राज्य करपाचे सगळे अधिकार मेळयले आनी रोखड्योच फॅसिस्ट युवक संघटना स्थापल्यो. अर्थीक पुनर्रचणुकेचेर आदारिल्लें इटलीचें श्रेणीसत्ताक राज्य (कार्पोरेटिव्ह स्टेट) स्थापपाचें ताचें ध्येय आशिल्लें. लोकशाय विरोधी भुमिकेकलागून ताचेर दोन-तीन खेपे जीव घेणे हल्ले जाले. ताणें एका कायद्यान कामगारांचे कामाचे तास वाडोवन नगरपालिका, प्रांत आनी सार्वत्रिक वेंचणुको रद्द केल्यो. पुलीस आनी लश्करी यंत्रणेंत स्थायी सेवेचेर फॅसिस्ट स्वयंसेवक नेमले. १९२८ त 'फॅसिस्ट ग्रँड काउन्सिल' हीच शासनाची सुत्रधार आशिल्ली आनी सगळ्यो सत्ता मुसोलिनीकडेन आशिल्ल्यो.

परराश्ट्रीय धोरणांत मुसोलिनीचे नदरेमुखार इटलीचें साम्राज्य आनी रोमन एंपायर ह्यो कल्पना आशिल्ल्यान साम्राज्य विस्ताराक ताणें सुरवात केली. १९३५ त इथिओपियाचेर हल्लो करून ताणें तें इटालियन साम्राज्यांत आस्पावन घेतलें. १९३९ त ताणें ॲबिसिनीया जिखलो. सुरवातीक हिटलर आनी मुसोलिनीचें व्हडलेशें जमनाशिल्लें. पूण राश्ट्रसंघान इटलिचें सभासदत्व रद्द केलें आनी त्याचवेळार मुसोलिनीन फ्रँको ह्या स्पॅनीश बंडखोरांच्या नेत्याक सहकार्य दिलें. तेन्नाच इंग्लंड आनी फ्रांस ह्या देशांकडेन ताची दुस्मानकाय तयार जाली. हाकालागून ताका जर्मनीचेर पातयेवन रावचें पडलें. इटलीची तयारी नासतनाय ताणें १९४० त जर्मनीचेवटेन दुसऱ्या म्हाझुजांत वांटो घेतलो. पूण ही गजाल इटलीक खूब त्रासाची थरली. ह्या झुजांतलें हिटलरचें यशाचें श्रेय आपल्याकय मेळटलें अशें मुसोलिनीक दिसतालें पूण तें फट थारलें. हें सगळें जमर्नीक कळील्लें देखून झुजाच्या युक्ती प्रयुक्तींत जर्मनीन इटलीक केन्नाच आस्पावन घेतलें ना. हो एक अपमानच अशें मानून इटलीन आपल्या बळग्यान ग्रीसाचेर हल्लो केलो पूण ते हारले. इटलीन आफ्रिकेच्या झुजाचेरच लक्ष दवरचें असो हिटलरान मुसोलिनीक सल्लो दिल्लो. पूण आफ्रिकेच्या झुजांतय इटालियन सैन्य हारलें. शेवटाक इंग्लंड-अमेरिका ह्या दोस्त राश्ट्रांच्यो फौजो इटलींत देंवल्यो (१९४३). तेन्ना २४ एप्रिल १९४३ दिसा फॅसिस्ट पक्षाच्या सर्वोच्च मंडळान मुसोलिनीक काडून उडोवंचो असो थाराव संमत केलो. पूण मुसोलिनीन ताचेकडेन आडनदर केली. तेन्ना ताका अटक केलो आनी इटलिंतल्या एका हॉटेलांत कैदी म्हण दवरलो. पूण जर्मन सैनिकांनी ताची सुटका केली. जर्मनीन वेडिल्ल्या इटलींत कांय दीस फॅसिस्ट पक्षामार्फत ताणें राज्य केलें. पूण जर्मनीची हार जाले उपरांत २८ एप्रिल १९४५ दिसा ताणें स्वित्झर्लंडाक पळून वचपाचें थरयलें. पूण विरोधकांनी ताका धरलो आनी दाँग्गा (कोमो) हांगा क्लॅरेता हे ताचे मोगिकेवांगडा गुळयो घालून मारलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मुस्लीम सत्यशोधक मंडळ :** भारतांतल्या मुस्लीम समाजांत प्रबोधन घडोवन हाडपाखातीर पुण्यांत जाल्ल्या मुस्लीम तरनाट्यांचे बसकेंत हमीद दलवाई (१९३२-१९७७) हाणें २२ मार्च १९७० दिसा ही संघटना स्थापन केली. इहवादी जिवीतमुल्यां, राश्ट्रीय एकात्मता आनी विज्ञानीक नदर हांचो पुरस्कार करून अंधश्रध्दा पयस करप आनी फुटीरवादी प्रवृत्तीक आळाबंदा हाडप, बायलांक समान हक्क मेळोवन दिवप हीं उद्दिश्टां मंडळान मुखार दवरिल्लीं. पूण खास करून मुस्लिम समाजांतल्या प्रबोधनाचेर भर दिवपी वावर ह्या मंडळान हातांत घेतला. महात्मा फुले, आगरकर, महर्षी कर्वे हांच्या विचारांतल्यान ह्या मंडळाक प्रेरणा मेळ्ळी. तांच्या वावराचें क्षेत्र मुखेल करून महाराष्ट्रांतच आसा. पुणें, मुंबय, कोल्हापूर, सोलापूर, अहमदनगर, श्रीगोंदे, फलटण, अमरावती, अचलपूर, परतवाडा, औरंगाबाद हांगा मंडळाच्यो शाखा आसात.

ह्या मंडळाचो संस्थापक हमीद दलवाई हो एक मराठी लेखक. ताणें ललित साहित्यनिर्मिती वांगडाच कांय वैचारिक पुस्तकांय बरयल्यांत. Muslim Politics in Secular India (१९७०) हें इंग्लीश पुस्तकूय

ताणें बरयलां. १९६६ त मुंबयत जबानीतलाक तशेंच सवतीची पद्दत हांचेआड मुस्लिम बायलांनी काडिल्ल्या मोर्चांत ताणें फुडाकार घेतिल्लो. तेन्नासावनूच ताणें मुस्लिम समाजाच्या प्रबोधनकार्यांत आपलें पुराय लक्ष घालें. 'इंडियन सेक्युलर सोसायटी' चे (१९६६) स्थापणुकेंत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९७६ त अमेरिकेंत भरिल्ल्या 'वर्ल्ड युनिटी कॉन्फरन्स' हाका एक प्रतिनिधी म्हूण तो गेल्लो. ते भोंवडेंत ताणें इंग्लंड, फ्रांस आनी जर्मनी ह्या देशांक भेटी दिल्ल्यो.

मुस्लिम सत्यशोधक मंडळाचो वावर हे खास करून तलाक पिडित मुस्लिम प्रस्नांकडे संबंदीत आशिल्ले, तरी समान नागरी कायदो, मुस्लिमांनी आपापल्या प्रादेशिक भाशेंतल्यान शिक्षण घेवपाचो पुरस्कार, कुटुंब नियोजनाचो पुरस्कार ह्या मळांचेरूय मंडळान अखंडपणान कार्य केलां. तेखातीर निवेदनां, निदर्शनां, चर्चासत्रां, मेळावे, शिबिरां, अधिवेशनां, थाराव ह्या मार्गांचो संघटितपणान वापर करतात. मंडळाच्या उद्दिश्टांकडे विरोधी आनी विसंगत आशिल्ल्या गजालींचो, जाहीरपणान, मोर्चे आनी पत्रकां काडून निशेध नोंदवपाचें कार्य लेगीत ह्या मंडळाच्या कार्यकर्त्यांनी केलां.

१९७१ त ह्या मंडळान फुडाकार घेवन दिल्ली हांगा 'ऑल इंडिया फॉवर्ड-लुकिंग मुस्लिम कॉन्फरन्स' घडोवन हाडिल्ली. हे परिशदेंत महाराष्ट्र, आंध्र प्रदेश, अस्तंत बंगाल आनी दिल्ली हांगाचे प्रतिनिधी हाजीर आशिल्ले. समान नागरी कायद्याचे मागणेचो थाराव त्यावेळार संमत केलो. १९७३ वर्साच्या कोल्हापूर हांगाच्या मुस्लीम शिक्षण परिशदेंत मुसलमानांनी आपापल्या प्रादेशिक भाशेच्या माध्यमांतल्यान शिक्षण घेवचें, असो थाराव केल्लो. १९७५ वर्सा मंडळाचो सरचिटणीस सय्यदभाई हाच्या फुडारपणाखाल 'जेहाद-ए-तलाक' चळवळ सुरू केल्ली आनी तलाक पिडीत बायलांक आनी तांच्या भुरग्यांक कायदेशीर राखण मेळची, अशी मागणी केल्ली. मंडळान २३ नोव्हेंबर १९७५ दिसा पुणें हांगा तलाक पिडीत मुसलमान बायलांची परिशद घडोवन हाडील्ली. १९८० वर्सा कोल्हापूर हांगा हुसेन जमाद्वार हाणें तलाकपिडीत बायलांच्या भुरग्यांखातीर वसतीघर सुरू केलें. तशेंच १९८४ वर्सामेरेन मंडळाचो कार्यकर्तो शेख वजीर पटेल हाच्या फुडाकारान अमरावतीक कुटूंब नियोजनाचीं शिबिरां आयोजित करून सुमार पांच हजार शस्त्रक्रिया घडोवन हाडल्यो. तलाक पिडीत आनी गरजेवंत मुसलमान बायलांक चरितार्थाचें साधन करून दिवपाखातीर मंडळान पालव दिलो. मुस्लिम बायलांचेर सनातन्यांनी लादिल्ल्या चित्रपटबंदी आड रजिया पटेल हिणें चळवळ केली. केंद्र सरकारच्या कुटुंबिक न्यायालयाच्या प्रस्तावना ह्या मंडळान येवकार दिलो आनी ताचो लाव मुस्लिम बायलांकूय मेळचो अशी सुचोवणी केली.

पुण्यांत १९८२ वर्सा मुस्लिम बायलां मदत केंद्र सुरू जालें. जुलय १९८४ त मंडळाच्यो कार्यकर्त्यो श्रीमती अख्तरून्नीसा सैय्यद हिणें पोसके घेवपाच्या प्रस्नावयल्यान सर्वोच्च न्यायालयांत दाद मागपी अर्ज केलो. मुंबयत श्रीमती मेहरून्नीसा दलवाई आपल्या घोवाचें कार्य नेटान फुडें चलयता.

- कों. वि. सं. मं.

**मुहंमद पैगंबर:** इस्लाम धर्माचो आनी अरब साम्राज्याचो संस्थापक आनी इतिहास प्रसिध्द प्रेशित. जगाक ताणें एक म्हत्वाचो असो नवो धर्म, तशेंच नवो समाज आनी नवी संस्कृती दिल्ली. ताचें पुराय नांव, अबू-हल-कासिम मुहंमद इब्न 'अब्द अल्लहा इब्न अब्दुल्ल-मुत्तालीब इब्ने हसिम.

मुहंमद हाचो जल्म ५७० त मक्का हांगाच्या कुरैश हे अरब टोळयेंतल्या एका नामनेच्या कुटुंबांत जालो. त्या वेळार मक्का वेपारी आनी धर्मीक केंद्र म्हूण प्रसिध्द आशिल्लें. ल्हानपणांतूच ताच्या आवय-बापायक मरण आयिल्ल्यान ताचो आजो अब्दुल मुत्तलिब हाणें ताचो कांय तेंप सांबाळ केलो. पूण ताकाय रोखडेंच मरण आयलें आनी मुहंमदाक पोसपाचो भार ताच्या बापोलयाच्या खांदार पडलो. ताचो बापोलयो अबू तालिब हो वेपारी आशिलो. तो आपल्या बापोलभावंडांमदीं वाडलो. व्हड जालेउपरांत अबू तालिब हाच्यावांगडा तो वेपाराच्या निमतान साबार फावटी सिरिया हांगा गेल्लो. ल्हान पिरायेंतूच तो हुशार आनी प्रामाणिक आशिल्लो. अबू तालिब हाच्या वेपाराक देंवती कळा लागली तेन्ना मक्केंतल्या खदीजा हे गिरेस्त विधवा बायलेकडेन मुहंमद मुनीम म्हूण कामाक लागलो. ताणें खदीजाक वेपारांत खूब फायदो करून दिल्लो. खदीजा ताचेर भाळ्ळी आनी तिणें ताका आपलेकडेन लग्न जावपाची मागणी घाली. तांचें लग्न जालें तेन्ना तिची पिराय सुमार ४० वर्सांची आनी मुहंमदाची २५ वर्सांची आशिल्ली. ह्या लग्नाक लागून मुहंमदाक उंचेल्या वर्गांत मान मेळ्ळो. तांकां दोन चले आनी एक चली जाल्ली. पूण दोनूय चल्यांक ल्हानपणांतूच मरण आयलें. चलयेचें नांव फातिमा आशिल्लें.

ह्या सुमाराक मक्का हें वेपार केंद्र म्हूण भरभराटीक आयलें. बायझंटिन साम्राज्य तशेंच इराणी साम्राज्य हांचेकडेन चलपी आंतरराश्ट्रीय वेपार मक्केंतल्यान चलतालो. वेपाराक लागून हांगा खूब संपत्ती आयली. पूण तिचे समाजाचेर वायट परिणाम जावपाक लागले. संपत्ती फाटल्यान मक्केंत गुलामगिरी रिगली. सोरो, जुगार आनी शिंदळकी असल्या वायट व्यसनांक लागून समाजाची स्थिती इबाडत गेली. मुहंमदाक असल्या वातावरणाची उबगण येवपाक लागली. ह्या सगळयांचो ताच्या मनाचेर परिणाम जावन ताची एकांतवासाची आवड वाडत गेली. आपलो चडसो वेळ तो मक्केसावन पयस आशिल्ले दोंगरावयले घोलींत सारूंक लागलो. रातदीस तो साधना करपाक लागलो. अशीच साधना करतना पिरायेच्या

चाळिसाव्या वर्सा रमजान म्हयन्यांत एका दिसा घोलींत ताका एक खणखणीत आवाज आयकूंक आयलो. 'विश्वाचो निर्मातो आशिल्ल्या ईश्वराच्या नांवान जप कर' अशी आज्ञा ह्या आवाजान ताका केली. ताका लाबिल्लो हो ईश्वराचो पयलो संदेश आशिल्लो. हीच खरी कुराणाची सुरवात आसा अशें मुसलमान लोकांचें मत आसा. ताणें हो आपलो अणभव खदीजाक सांगलो. उपरांत कांय दिसांनीच ताका मळबांत एक आकृती दिश्टी पडली. आपूण गाब्रिएल आसून तूं (मुहंमद) ईश्वराचो दूत आसा अशें ते आकृतीन मुहंमदाक सांगलें. तेन्नाच्यान ताका मरमेरेन अशे तरेचे ध्वनी आयकूंक येताले. ती देवाचीच वाणी आसा अशें मानून तो ती आपल्या भोंवतणच्या लोकांक सांगतालो. वांगडाच बरोवन दवरपाची वेवस्था करतालो. सुमार ६५० अल्लाचे संदेश ताणें एकठांय हाडले आनी ते रितसर मांडून कुराण रचलें. कुराणांतलो एक एक शब्द म्हळयार अल्लाच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लें पवित्र उतर अशें इस्लाम धर्माचे अनुयायी मानतात. मुहंमदाच्याय मताप्रमाण कुराणांत ताचें स्वताचें अशें कांयच ना. जें कितें देवान ताका सांगलें तेंच ताणें बरयलें अशेंय ताणें सांगलां.

कुराणांत ताणें एकेश्वरवाद आनी भौशिक बंधुभाव हांचें समर्थन, मूर्तिपुजेचो निशेध आनी गिरेस्त लोकांनी आपल्या अर्द्या धनाचो त्याग करून तें गरिबांक वांटप हाचेर भर दिलो. मरण म्हळयार जिणेचो अंत न्हय, मरणाउपरांत लेगीत आत्म्याचें जिवीत चालूच आसता. देवाच्या न्यायादिसा (कियामत) व्यक्तिच्यो सगळयो करण्यो मेजून ताका फावो तें इनाम वा शासन दिता अशी ताची शिकवण आशिल्ली. ताच्या तेंपार जे वायट गूण समाजाक पोखरताले, ते पयस करपाखातीर ताचे हे यत्न आशिल्ले. सुरवेक हे संदेश ताणें आपल्या सोयऱ्याधायऱ्यांक आनी कांय इश्टांकूच समजावपाचे यत्न केले. पूण उपरांत हे संदेश ताणें हेर लोकांभितरूय पातळावंचे असो ताका आदेश जालो.

ह्या संदेशाचो हेर लोकांत प्रचार करून ताणें कांय अनुयायी एकठांय केल्ले मक्केचे लोक साबार सैमीक देवांक मानताले. मक्केच्या गिरेस्त वर्गाची सत्ता आनी संपत्ती हांचेर मुहंमदाच्या संदेशांनी बाधा हाडली. कावाच्या देवळाच्या रुपान सगळया अरब टोळच्या धर्मपंथांचें केंद्रिकरण जाल्ल्यान मक्केच्या प्रतिश्ठीत वर्गाच्या हातांत जी धर्मीक सत्ता आशिल्ली, तिकाय एकेश्वरवादाक लागून धोको निर्माण जाल्लो. ताका चारूय दिकांतल्यान विरोध जावपाक लागलो. ताका जरी ल्हानशा उंचेल्या गटांचो तेंको मेळिल्लो, तरी जेन्ना ताच्या नात्यांतल्याच कांय लोकांकडच्यान ताका विरोध जावपाक लागलो तेन्ना हेरांनी ताका हिणसावपाक सुरवात केली. मुहंमदान आपल्या संदेशाचो प्रसार थांबोवचो म्हूण ताका मक्केचो मुखेली करपाचो आनी संपत्ती दिवपाचें थारायलें. पूण मुहंमद तांचे भकिक पडलो ना. ताणें आपलें कार्य चालूच दवरलें. मुहंमदाच्या अशा वागण्याक लागून मक्केंतलीं मुखेल कुटुंबां एकठांय येवन तांणी मुहंमदाचें आनी ताचो बापोलयो अबू तालिब हाच्या कुटुंबियांचेर समाजीक बहिश्कार घालो. हाका लागून मुहंमदाक खूब त्रास सोंसचे पडले. दुसरेवटेन ताच्या अनुयायांचोय छळ जातालो. ह्या त्रासांतल्यान वांटोवपाखातीर मुहंमदान तांकां ऑबिसियाना हांगा धाडले.

६१९त खदिजा आनी अबू तालिब हांकां मरण आयलें आनी ताचो दुसरो बापोलयो अबू लाहाब हो हाशिम टोळयेचो मुखेली जालो. अबू लाहाब हाचो गिरेस्त वेपाऱ्यांकडेन संबंद आशिल्ल्यान तांचे सांगणेवयल्यान तांणी मुहंमदाक संरक्षण दिवपाचें न्हयकारलें. आतां मुहंमदाचो चड छळ जावपाक लागलो. ह्याच सुमाराक मदिनेंतल्यान मक्केक यात्रेखातीर एक प्रतिनिधिमंडळ आयिल्लें. अलअन्सार आनी खझ्रज ह्या मदिनेंतल्या दोन टोळयां भितर मुहंमदाचे शिकवणेक लागून शांतताय पातळटली अशी आशा निर्माण जाली. मुहंमदाचे शिकवणेक लागून तांणी इस्लाम धर्म आपणायलो. मदीनाक परतल्या उपरांत तांणी मुहंमदाच्या संदेशाचो प्रचार करपाक सुरवात केली. ६२२ व ७५ लोकांचो एक पंगड मदिनांतल्यान मक्केक यात्रेखातीर आयलो. तातूंत कांय बायलांचोय आस्पाव आशिल्लो. तांणी इस्लाम धर्म आपणावन मुहंमदाची राखण करपाचो सोपूत घेतलो. मदिनान दिल्ल्या आमंत्रणाउपरांत तांणी आपल्या अनुयायांक मदिनाक धाडले. तो मदिनाक वचचे पयलीं मक्केंतल्या कांय मुखेल कुटूंबांनीं ताची हत्या करपाचो कट रचलो. पूण हाचे पयलींच ताणें अबू बकराच्या सांगातान मदिनाचो रस्तो धरिल्लो. हिजरी ह्या इस्लामी काळाची हांगाच्यान सुरवात जाता.

मुहंमद मदिनाक पावल्या उपरांत ताच्या जिविताक आनी इस्लामाच्या विकासाक एक नवी दिका मेळ्ळी. मदिनाचे लोक आनी मक्केसावन आयिल्ले मुहंमदाचे अनुयायी हांच्यांत बऱ्यापणाचे संबंद निर्माण जाले. मदिनाच्या टोळयांमदीं शांतताय हाडपाक मुहंमदाक यश आयलें. मदिना हांगा मुहंमदाचें बळगें तशेंच मान वाडत रावलो. ताचे अनुयायीय वाडत वताले. मदिनेंतल्या चडशा सकयल्या वर्गांतल्या अरब लोकांनी इस्लाम धर्म आपणायलो. ह्या सगळयाक लागून आपल्या वेपाराक धोको निर्माण जाला, हो भंय मक्केंतल्या लोकांक सतायतालो. हाका लागून तांणी मदिनाचेर घुरी घाली. पूण आपल्या ३१३ अनुयायांच्या आदारान मुहंमदान तांचो पराभव केलो. ह्या पयल्या जैताक लागून मुहंमदाक आनी तांच्या अनुयायांक व्हड मानसिक नेट मेळ्ळो. उपरांत मुहंमद आनी मक्केचे लोक हांचेमदीं दोन झुजां पेटलीं. दोनूय खेपो मुहंमदान जैत जोडलें. मुहंमदान मदिनेंतल्या ज्यू लोकांकूय धारेर दवरिल्ले.

मदिनेक आयलेउपरांत मुसलमान जमातिची धर्मीक आनी समाजीक घडी वेवस्थीत बसोवपाखातीर मुहंमदान रातदीस यत्न केले आनी ह्या ताच्या यत्नांक यशूय आयलें. खदीजा आसतना तांच्यांत खूब बायलो दवरपाची रीत आसतना लेगीत ताणें दुसरें लग्न करूंक नासलें. पूण मदिनेक आयले उपरांत राजकीय कारणां खातीर ताका लग्नां करचीं

पडलीं. ताच्या लागशिल्ल्या अनुयायांकडेन आनी टोळयांच्या मुखेल्यांकडेन नात्याचे संबंद दवरप भोव गरजेचें आशिल्लें. हाका लागून ताची प्रतिश्ठा आनी सत्ता वाडटाली म्हूण ताणें मदिनाक आयलेउपरांत णव लग्नां केलीं.

६२८ मेरेन मुहंमदाचे अनुयायी वाडत गेले. त्याच वर्सा ताणें मदीना आनी मक्का हांचेभितर अल-हुदायबियाग कबलात घडोवन हाडली. हे कबलातीक लागून मदिनेंतल्या यात्रेकारांक ६२९त मक्केक भेट दिवपाची परवानगी मेळ्ळी. पूण मक्केंतल्या कांय मुखेल्यांनी, नोव्हेंबर ६२९त मदिनेंतल्यान येवपी यात्रेकरांचेर हल्लो केलो. हे घडणुकेक लागून मुहंमदान आपल्या सैन्याच्या आदारान मक्केचेर घुरी घाली. हातूंत मक्केच्या सैन्याचो पराभव जालो. हिजरी सनाच्या आठव्या वर्सा मक्का मुहंमदाच्या वाडट्या समाजीक आनी राजकीय सामर्थ्याक शरण आयली. मक्का शरण आयलेउपरांत मुहंमदान तांचेर बदलो घेतलो ना, तर थंय इस्लाम धर्माचो प्रसार करपाक वावुरलो.

आपले धर्मसंहितेक ताणें 'इस्लाम' हें नांव दिलें. इस्लाम म्हळयार पुरायपणान अल्लाक (ईश्वराक) शरण वचप. इस्लाम म्हळयार शांतताय असोय अर्थ जाता. 'अल्ला' खेरीज हेर देव ना आनी मुहंमद हो अल्लाचो प्रेशित (दूत) आसा, हें इस्लामी धर्माचें मुळावण आसा.

मुहंमदाच्या जिविताचो बारिकसाणेन अभ्यास केल्यार ताचीं तीन खाशेलपणां दिश्टी पडटात. पयलें खाशेलपण म्हळयार ताची देवाचेर आशिल्ली श्रध्दा. ताणें आपलें चडशें जिवीत देवाचे संदेश समाजांत पातळावपाखातीर सारलें. ताची झुजारी वृत्ती हें ताचें दुसरें खाशेलपण. आपणे मानिल्ल्या तत्त्वाची पोसवण आनी प्रसार करपाक ताणें हातांत तरसाद घेतली आनी विरोधकांकडेन झुजा मांडलीं. ह्या झुजांक तो 'अल-जिहाद-उल-अशगर' अशें म्हण्टालो (अल्प पवित्र झुजां). ताचें तिसरें खाशेलपण म्हळयार ताचो मायेस्त सभाव. मक्केंत सत्ता हातासल्या उपरांत लेगीत ताणें आपलो छळ केल्ल्यांक ख्यास्त केली ना. तांकां ताणें आपल्या म्होवाळ शब्दांतल्यान एकठांय हाडले. हिजरी सन ११त दुयेंत पडिल्ल्यान ताका जून म्हयन्यांत ६३२त मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : इस्लाम धर्म.

## मुळगांवकार, पांडुरंग जगन्नाथ सिनाय : (जल्मः १० ऑक्टोबर १९१७, मळकर्णे, केपें).

गोंयचो सुटकेझुजारी. लिसेंवाचें सातवें वर्स मेरेन शिक्षण घेतकच पुर्तुगेज कायद्याची सनद आनी पदविका घेतली. सुटकेझुजाऱ्यांचो बचाव केल्ल्या आरोपाखाल १८ जून १९४६ ह्या दिसा ताका अटक करपांत आयली. १९४८ वर्सा गोंय, दमण आनी दीवचे राजकीय घटनेचे कमिटीचेर लोकप्रतिनीधी म्हूण ताची निवड जाली. १९५३ त तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचो वांगडी जालो. १९५३-५४ ह्या वर्सा खातीर हे संघटनेचे गोंयचे वावुरपी समितीचो तो एक वांगडी जालो. तेन्ना ताणें गोंयच्या लोकांनी पुर्तुगेज कायद्याआड आनी न्यायालयीन बंदीक विरोध करचो म्हूण प्रचार करपाक सुरवात केली. राजकीय चळवळीक तेंको दिवपाखातीर तो गोंयांत आनी गोंयाभायर जाल्ले दर राजकीय बसकेंत वांटो घेतालो. अशा वेळार ३० जून १९५४ ह्या दिसा ताका अटक करून आग्वाद बंदखणींत दवरलो. फुडें प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका ५ जुलय १९५५ ह्या दिसा ८ वर्सांखातीर खर बंदखणीची ख्यास्त जाली. हाचे भायर दर दिसा २० इश्कुद हे प्रमाण दोन वर्सां दंड आनी १५ वर्सां खातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. फुडें १७ मे १९५९ दिसा ताची सुटका जाली. सुटका जाले उपरांत ताच्या वांगडा बंदखणींत आशिल्ल्या राश्ट्रवादी फुडाऱ्यांच्या सहवासांत तो रावंक लागलो आनी गोंय मुक्ती चळवळीक नेट येवंचो म्हूण तो खूब वावुरलो.

गोंय सुटके उपरांत जेन्ना पणजी हांगा जानेवारी १९६२ त सुटके झुजाऱ्यांची बसका जाली, तेन्ना ताका 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचो अध्यक्ष म्हूण वेंचून काडलो. उपरांत मे १९६२ ते १९६३ ह्या काळांत 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' चे गोंय दमण आनी दीव ॲड हॉक प्रदेश काँग्रेस कमिटीचो तो खजीनदार आशिल्लो.

भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८३ ह्या दिसा गोंय, दमण आनी दीव सरकारान ताचो भोवमान केलो. पणजी हांगा जाल्ल्या इंडियन नॅशनल काँग्रेसच्या शताब्दी सुवाळ्यांतूय ताचो भोवमान जालो. डॉ. सखाराम गुडे ट्रस्टाचो (शिरोडें-गोंय) गोमंतक भुशण हो मानाचो पुरस्कार ताका फाव जाला (१९९९).

- कों. वि. सं. मं.

## मुळगांवकर, हृषीकेश : (जल्म : १४ ऑगस्ट १९२०, मुंबय).

भारताचो आदलो वायुसेनाध्यक्ष. नामनेचो शल्यतज्ञ शामराव हो ताचो बापूय आनी आवयचें नांव सुलोचनाबाई. ताचें शिक्षण द मेलबर्न कॉलेज, लंडन आनी सेंट झेवियर कॉलेज, मुंबय हांगा जालें. शिक्षण सुरू आसतनाच डिसेंबर १९४० त रॉयल इंडियन एअर फोर्साखातीर विमानचालक म्हूण ताची निवड जाली. त्याच सुमाराक संरक्षण सेवा महाविद्यालय, वेलिंग्टन (तमिळनाडू) हांगासावन तो पदवीधर जालो. तशेंच झुजारी विमानचालक-प्रशिक्षक



म्हणूनय ताणें फिशालकाय जोडली.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत आनी १९४४-४५ च्या सुमाराक मुळगांवकार हाणें ब्रह्मदेश आघाडीचेर हरिकेन विमानचालक आनी स्पिटफायर झुजारी विमानचालक म्हूण काम केल्लें. तेचप्रमाण भारत-पाकिस्तान संघर्शा वेळार (१९४८-४९) काश्मीर देगणांतल्या झुजा वेळावयल्यो विमानांच्यो घुरयो, येरादारी आनी निरीक्षण हीं कामां ताच्याच नियंत्रणासकयल चलतालीं. त्याचवेळावयल्या ताच्या ह्या मोलादीक वावराखातीर ताका महावीर चक्र भेटयल्लें. संवसारांतल्या पन्नासांपरस चड जातिचीं झुजारी विमानां ताणें चलयल्यांत. स्वनातीत वेगान झुजारी विमान चलोवपी तो पयलो भारतीय विमानचालक जावन आसा. भारतीय वायुदलांत मिस्टीयर नॅट आनी कॅनबरा ह्या विमानांचो तशेंच एस्. ए ७५ ह्या जमनीवयल्यान विमानवेधी अस्त्राचो आस्पाव जांवचेपयलींच्या अभ्यास गटांत ताचो आस्पाव जाल्लो. तो एक वडील वांगडी आशिल्ल्यान ताच्या मार्गदर्शनाचो उपेग त्या गटांक बरोच जाल्लो.

भारतांतूच तयार जावपी ए. व्ही. आर ओ. आनी मरूत ह्या विमानांच्या अभ्यासगटाचो तो एक अभ्यासू वांगडी आशिल्लो. १९६८-७१ ह्या काळांत हवाई दलाच्या मध्य वायुकमानचो तो मुखेल आशिल्लो. ताच्या त्या वेळावयल्या वावराखातीर ताका अतीविशिश्ट सेवा पदक हो भोवमान दिल्लो. राश्ट्रीय संरक्षण महाविद्यालय, नवी दिल्ली ह्या सगळयांत उंचेल्या राखणेविशींचे संस्थेचो तो दोन वर्सां संचालकूय आशिल्लो. ते उपरांत १९७६ त तो भारतीय वायुसेनेचो अध्यक्ष - एअर चीफ मार्शल म्हूण ताची नेमणूक जाली आनी १ सप्टेंबर १९७८ ह्या दिसा सुमार ३८ वर्सांची दीर्घ सेवा करून तो निवृत्त जालो.

ताची शस्त्राविशींची आवड आनी तंत्रगिन्यानाचीय जाण हाका लागून देशी तशेंच विदेशी संस्थांक तांचें मार्गदर्शन मेळ्ळां.

- कों. वि. सं. मं.

**मुळे, सुदाम रामभाऊ :** (जल्मः ५ मे १९३७, भोगगांव-आंबेड जालना, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी ताणे तो भारतीय कम्युनीस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्टाक चितळे हाच्या फुडारपणाखाल गोंयांत बांदा शीमेर जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पुलिसांनी ताका धरून खूब मार दिलो. २६ मे १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मुळो :** (मराठी : मुळा; हिंदीः मुरो, मुली; गुजरातीः मुरा; कन्नडः मुळंगी; संस्कृतः हस्तिदंत, मूलक; इंग्लीशः रॅडीश; लॅटीनः रॅफॅनस, सटाव्हस; कूळः क्रुसीफेरी).

मांसाळ मुळां आशिल्ली, एक वर्सभर जगपी वनस्पत, चड करून भाजेखातीर पिकयतात. ते खातीर मुळां, पानां आनी खोड हाचो उपेग करतात. हरवो मुळो खातात. सादारणपणान मुळयाचो रंग धवो आसता आनी आकार शंखाचो आसता. लांबाय सुमार २५ ते ४०सेंमी. आनी गोलाय सुमार ३.५ ते ५सेंमी. ते रुचीक मात्शे तीखट आसतात. जौनपुरी वा नेवारी मुळया प्रकारांत मुळयाची लांबाय खुबूच व्हड (७५-९०सेंमी.) आनी गोलाय ५०-६०सेंमी. आसता.

तळाकडलीं पानां लांब, पिसाचे आकृतीचीं आनी दांतेरी आसतात. मदले लांब ताळयेक लेव तांबडीं वा धवीं फुलां येतात. युरोपीयन मुळयांमदीं तांबडे, जांबळे तशेंच शेंदुरी रंगाचे मुळे आसतात. मुळयाचो आकार, रंग, पेरणी ते काढणीमेरेनचो काळ आनी रूच हातूंत जायते प्रकार दिसून येतात.

हे वनस्पतीचो प्रकार संवसारांत सगळेकडेन आसून रॅफॅनस हे तिचे प्रजातींत वट्ट धा जाती आसात. चडशो जाती भूमध्य दर्यावाठारांतल्यो आसून रॅ. सटाव्हस ही जात थंयच्यान भारतांत आयली अशें मानतात. कांय शास्त्रज्ञांच्या मतान मुळयाचें मूळस्थान मध्य आनी अस्तंत चीन आनी भारत ह्या वाठारांत आसुंये. इतिहासाआदल्या काळांत थंय मुळयाचो खाद्यान्न म्हूण वापर जातालो. महाभारत, कौटिलीय अर्थशास्त्र, चरकसंहिता आदी संस्कृतग्रंथांत 'मूलक' ह्या नांवान मूळयाचो उल्लेख मेळटा.

भारतांत सगळेकडेन मुळयाची लागवड करतात. दर्याचे पातळेसावन ३००मी. उंचायेवयल्या हिमालयांतल्या दोंगराळ वाठारांत हें पीक जावंक शकता. हें थंड हवामानांतलें पीक आसून कांय थळाव्या प्रकारांची वर्सभर लागवड जाता. दक्षिण भारतांत हें पीक वर्सयभर आसता. हें पीक झटपट वाडपी आसून प्रकाराप्रमाण पेरणीसावन ३० ते ५० दिसांत तयार जाता. हें पीक खंयचेय जमनींत वाडटा. सुपीक आनी रेवट जमनींत हें पीक बरें येता.

लागवडींतले पोरने आनी सुदारीत देशी प्रकार अशेः **१) बरामासीः** हाची वर्सभर लागवड करपाक मेळटा.

**२) जौनपुरी वा नेवारी :** ह्या प्रकारचे मुळे आकारान व्हड आसून वजनाक ५ सावन १५ किग्रॅ. वा चडय आसता.

**३) पुसा चेतकी :** हो मुळो ४०-४५ दिसांत तयार जाता.

**४) पुसा देशीः** हो मुळो ३०-४५ सेंमी. लांब, तोंकाकडे अशीर आनी तिखट आसून खोडाकडलें तोंक पाचवें आसता.

**५) सिलेक्शन-२७१ः** हो मुळो ३०-४० सेंमी. लांब; नितळ धवो आनी मात्सो तीखट आसता. हाचें खाशेलपण म्हळयार तो सुमार १० दिसांमेरेन खावपासारको आसता. हाचे भायर तांबडो लांब, जांभळो लांब, लखनवी आदी जायते देशी प्रकार लागवडीखाल आसात.

**आशियाई प्रकार** : हे मुळे गुळगुळीत, कुरकुरीत ३.५-५ सेंमी. व्यासाचे आनी २२-३०सेंमी. लांब आसतात. हातूंत जॅपनीज व्हाइट, आय. एच. आर. ११ आनी सकुराजुमा हे हेर प्रकार आसतात.

मुळो जमनींतूच वाडटा आशिल्ल्यान लागवडी आदीं जमनीची बरे तरेन मशागत करप गरजेचें. दोन मेरां मदीं सुमार ५० सेंमी. अंतर दवरतात. वा सपाट वाफ्याचेर ३०x१५ सेंमी. अंतराचेर बी लावन मुळ्याची लागवड करतात. रोपांची वाड जातकच दोन झाडांतलें अंतर १०सेंमी. दवरतात. हॅक्टरी १०० किग्रॅ. नायट्रोजन, ५० किग्रॅ. फॉस्फोरिक अम्ल आनी ७० किग्रॅ. पोटेश सारें दिवचें पडटा. ह्या पिकाक भरपूर उदक लागता. व्हड आकाराच्या मुळ्याक एक फावट मातीय दिवची पडटा. खावपाखातीर कवकवीत आनी करकरीत आसतनाच मुळे काडटात. मुळे काडूंक वेळ जाल्यार ते चिवट आनी पोकळ जातात. पेरणी सावन ३०-५० दिसांत मुळो तयार जाता. देशी प्रकाराचें हॅक्टरी १५०-२०० क्विंटल मुळ्याचें उत्पादन मेळटा.

मुळो हरवो वा भाजी करून खातात. हरवो मुळो खाल्यार भूक वाडटा आनी पचन सुदारता. मुताचे विकार, बीक, फिग्दाचे विकार, कामीण हांचेर मुळो गुणकारी थरता. पानांचो रोस आनी बी मूत निवळ करता. धव्या देशी मुळ्यांत ९४.४% उदक, ०.७% प्रथिनां, ०.१% वसो, ३.४% कार्बोहायड्रेट आनी ०.६ लवणां आसतात. मुळ्यांत अ आनी क हीं जीवनसत्वां आसतात. मुळ्याच्या पाल्यांत अ आनी क जीवनसत्वां तशेंच कॅल्शियम आनी लोह खुबशा प्रमाणांत आसता. बियांत ३०-५०% तेल आसता आनी ताचो शाबू तयार करपाखातीर तशेंच दिव्यांत जळोवपाखातीर वा खाद्य तेल म्हूण वापरपाक शक्य आसा.

ह्या पिकार चडशे नुकसान जावपासारके रोग दिसून येतात. त्रास दिवपी किडींत मावा, काळो मूस ह्यो म्हत्वाचो आसात.

गोंयांत चडकरून वायंगणें पीक म्हूण मुळ्याची लागवड करतात. गोंयांत आगशीचे आनी साश्टीचे अशे मुळ्याचे दोन प्रकार दिसून येतात. हेभायर जॅपनीज व्हायट, पुसा चेतकी ह्यो सुदारीत जाती कांयकडेन रोयतात.

- कों. वि. सं. मं.

## मूकनाट्य (Pantomime) :

एक मूक अभिनयाचो नाट्यप्रकार. शारिरीक हालचाली, आंग मोडून आनी हातवारे करून मोन्यानी एकाद्री कथा आनी ते कथेंतल्या सगळ्या पात्रांचें दर्शन घडोवप म्हळ्यार मूकनाट्य.

सगळ्या तरांच्यो भुमिका करपी वा सगळ्या मनशांच्यो वा मोनजात आनी सुकण्यांच्यो नकलो करपी अशा आशयाच्या "पँटोमिमस" ह्या ग्रीक उतरावयल्यान "Mime" हें इंग्लीश नांव ह्या नाट्यप्रकाराक पडलां.

इ.स.च्या पयल्या शेंकड्यांतलो रोमन सम्राट ऑगस्टन हाच्या प्रोत्साहनान रोमन मूकनाट्याचो पयलो प्रयोग इ.स.पयलीं २२ ह्या वर्सा केलो. त्या काळांत पायलेडीस आनी बॅथिलस हे मूकनाट्याचे नामनेचे नट आशिल्ले. ते प्राणिकथा समर्थपणान सादर करताले.



मूकनाट्याच्या ह्या प्रयोगाक कांय खेपे समूहगान (कोरस) आनी वाद्यसंगीताची साथ आसताली. ग्रीक रंगमाचयेर टेलेस्टेस ह्या मूकनाट्य-कंलावंताची येवजण एस्किलस हाणें आपल्या 'सेव्हन अगेन्स्ट थीब्ज' ह्या नाटकाच्या प्रयोगांत केल्ली (इ.स.प. ४६७). मूकनाट्यशास्त्राचेर लूशन हाणें 'द सालतातिओने' नांवाचो एक संवादात्मक ग्रंथ बरयला. तातूंत ताणें मूकनाट्याच्या अभिनेत्याक सकयल दिल्ले गूण आसूंक जाय अशें म्हळां. ताका पौराणिक कथा आनी संगीत हांचें खोलायेन गिन्यान आसप गरजेचें, ताची स्मरणशक्त बरी आसूंक जाय, तशेंच ताची संवेदनक्षमता आनी शरीराची तांक आनी आंगांत लवचिकपणा आसूंक जाय. ह्याच ग्रंथासावन उर्बा घेवन इंग्लंडांत मूकनाट्य सुरू जालें. नृत्याचार्य जॉन वीव्हर हाणें इ.स. १७०२ वर्सा मूकनाट्याचो पयलो प्रयोग केलो. १७०६ वर्सा जाल्लो मूकनाट्याचो प्रयोग 'लव्हज् ऑफ मार्स अँड व्हीनस्' ह्या विशयाचेर आशिल्लो. इ.स. १७५८ वर्सा ग्रिमाल्डी हाणें मूकनाट्याचे कांय प्रयोग केले.

संस्कृत नाट्याचे सुरवातीक भरतान 'अमृतमंथन' आनी 'त्रिपुरदाह' नांवाच्यो ज्यो अनुकृती करून दाखयल्ल्याचो उल्लेख नाट्यशास्त्रांत आसा, तांचें आनी पतंजलीन उल्लेख केल्ल्या 'कंसवध' आनी 'बलिबंध' ह्या नाट्यप्रयोगांचें रुपलेगीत मूकनाट्याभशेन दिसता. ह्या प्रयोगांनी संवाद नाशिल्ले. नाटकांतल्या पात्रांचे हावभाव, हालचाली, तोंडावयले भाव हातुंतल्यान नाटकाची कथा समजताली. तशेंच, संस्कृत नाट्याच्या इतिहासांत नेपथ्य, पडदे हांचो वापर नाशिल्ल्यान, संवाद आशिल्ल्या नाटकांनीय रथ चलोवपाचे प्रसंग, प्रवास, झूज हे सगळे प्रसंग मूक आनी आंगिक अभिनयानूच करचे पडटाले.

फ्रांसांत मूकनाट्याचें रुपांतर बॅलेच्या रुपांत जालां. मार्सो मार्सेल हो फ्रांसांतलो एक नामनेचो मूकनाट्याचो आभिनेतो जावन आसा. इटलीच्या 'कॉलेदिया देल आर्ते', ह्या नाट्यप्रकारांत चडशे प्रसंग मूक अभिनयानूच उक्तावचे पडटात.

आर्विल्ल्या काळांतूय चडकरून नाताळाचे परबेक फार्सिकल मूकनाट्याचे प्रयोग जातात. शाळा महाविद्यालयांनी मूकनाट्याक बरो प्रतीसाद मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**मूग :** (हिंदी : मूंग; मराठीः मूग; गुजरातीः मग; कन्नडः हेसरू; संस्कृतः मुग्द; इंग्लीशः ग्रीन ग्रॅम; गोल्डन ग्रॅम; लॅटीनः विग्ना रेडिॲटा; कूळः लेग्युमिनोजी).

एक वर्सभर जगपी ४५-१२० सेंमी. उंच वाडपी वाल. तिच्या खोडाच्यो वयल्यो खांदयो आदाराभोंवतणी घुंवत वयर चडटात. पानां संयुक्त, तीनदळी आनी लांब देठाचीं आनी सोपपर्ण (तळाकडे ल्हान उपांगां आशिल्लीं) आसतात. फुलां ल्हान, हुळदुवीं वा पोपटी आसून लांब देंठाचेर तीं १०-२५ च्या चोम्यांनी येतात. सांगो ५.५-१०सेंमी. लांब, बारीक, दंडगोलाकृती, कांय प्रमाणांत ल्हंवदार वा गुळगुळीत आसून तातूंत १०-१५ वांटकुळयो, पाचव्यो वा काळपट पाचव्यो बियो (दाणे) आसतात.




**मूग :** १ - सांगांसयत खांदी; २ - फुटिल्ली सांग; ३ - मूग.

मूग ही वाल मूळची भारतांतली आनी मध्य आशियांतली आसुंये अशें मानतात. तिची एक उपजात (सब्लोबॅटा) हिमालयांत रानटी अवस्थेंत दिसून येता आनी तिचेपसून चडकरून मूग आनी उडीद हांची उत्पत्ती जाली आसुंये अशें मानतात. वैदिक साहित्यांत मुगांचो उल्लेख मेळटा. ताचो विनियोग यज्ञकर्मांत दिल्लो आसा. पाणिनीच्या अश्टाध्यायांत ताचो उल्लेख आसून हेर धान्यांवांगडा ताचे पेरणीचो ऋतुय सांगला. कौटिलीय अर्थशास्त्र, बृहत्‌संहिता, चरकसंहिता, सुश्रुतसंहिता आदी संस्कृत ग्रंथांतय ताचो उल्लेख मेळटा.

भारतांतल्या कडधान्याच्या पिकांतलें मूग हें म्हत्वाचें पीक. भारतांत सगळया वाठारांत मुगांची लागवड करतात. आंध्र प्रदेश, महाराष्ट्र, ओरिसा आनी राजस्थान ह्या चार राज्यांत ह्या पिकाची लागवड व्हड प्रमाणांत जाता. ताचेसकयल मध्य प्रदेश, कर्नाटक, बिहार आनी तमिळनाडू आदी राज्यांचो नंबर लागता.

भारतांत मुगाचे जायते प्रकार लागवडीखाल आसात. तांचो आस्पाव स गटांत केल्लो आसून तातुंतले चार मुखेल गट अशेः

**१) रेडिॲटा :** हाचीं पानां गडद पांचवीं, सांगो पसरट आनी दाणे पाचवे आसतात.

**२) ऑरिया :** पानां लेव पांचवीं आनी सांगो भायलेवटेन वळिल्ल्यो आनी तातूंत हळदुवे दाणे आसतात.

**३) ग्रँडिस :** पानां मध्यम पाचवीं आनी सांगो व्हड पसरट आसून तातूंत काळे दाणे आसतात.

**४) ब्रुनिया :** पानां मध्यम पाचवीं आसून, पसरट सांगांत पुडी कोराचे दाणे आसतात.

तेभायर निवड पद्दतीन उत्पादन केल्ल्यो जायत्यो सुदारीत जाती वेगवेगळया राज्यांत लागवडीखाल आसात. जळगांव ७८१, एस.-८, कोपरगांव, पुसा वैशाखी, टी-४४, टी-१, एस-८ ह्यो कांय सुदारीत जाती आसात.

हें चडकरून खरीप हंगामाचें पीक. आंध्र प्रदेश, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी तमिळनाडू ह्या राज्यांच्या कांय वाठारांत तें रब्बी हंगामांत भात पिका उपरांत घेतात. हिमालयाच्या मुळसांत २,००० मी. उंचायेमेरेनच्या वाठारांत हें गिमाच्या हंगामांतलें पीक आसा. कर्नाटक आनी बिहार हांगा वर्सांतल्यान तीन फावट मुगांचें पीक घेतात. मिश्रपीक म्हणूनय मुगाची लागवड करतात. खरीब पीक जून-जुलय आनी रब्बी पीक सप्टेंबर-ऑक्टोबर म्हयन्यांत घेतात. बीं उडोवन, नांगराच्या तासांत मोघडीच्या आदारान वा पाभरीन २०.३० सेंमी. अंतराचेर ओळीन पेरणी करतात. पिकाखातीर हॅक्टरी १८.२० किग्रॅ आनी मिश्रपिकाखातीर २.५-७.५ किग्रॅ. बीं लागता. पेरणी सावन तीन आठवड्यांनी पयलीं आनी उपरांत १०-१२ दिसांनी कोळपणी करतात. गिमांतूय मुगाचें पीक घेवंक मेळटा. हातूंत मार्चाच्या पयल्या आठवड्यांत पाभरीन दोन वळींत ३०सेंमी. अंतर दवरून पेरणी करतात. हॅक्टरी १२-१४ किग्रॅ. बीं लागता. पुसा वैशाखी, एस.-८ आनी टी-१ हे प्रकार लागवडींत हाडटात. ह्या पिकाक ५-६ खेपे उदक दिवचें पडटा. गीम सोंपचे आदीं मुगाचें पीक काडून उपरांत खरीप हंगामांत दुसरें पीक घेवंक मेळटा. गिमांत हॅक्टरी ७०० किग्रॅ. मुगाचें उत्पन्न मेळटा. पी. एस. १६, पी. एस. ७ आनी के. ८५१ आदी प्रकारय गिमांत लागवडीखातीर वापरतात.

पीक ९-१० सप्तकांचें आसतना पाचव्यो सांगो भाज्जे खातीर काडटात. उपरांत फुडल्या तीन सप्तकांत सुकिल्ल्यो सांगो तोडटात. तोडिल्ल्यो सांगो खळार सुकोवन तांची मळणी करून फाफडून दाणे

निवळ करतात. एकटुकें घेतिल्ल्या पिकापसून हॅक्टरी सादारणपणान ३७५-६२५ किग्रॅ. आनी मिश्रपिकापसून १२५-२५० किग्रॅ. उत्पन्न मेळटा. भुशाचेंय उत्पादन सुमार तितलेंच मेळटा. हो भुसो जनावरांचें खाद्य म्हूण वापरतात. मुगांचो जेवणांत तशेंच खाद्य पदार्थांत उपेग करतात. मूग कोमावन मुगांगांठी, उसळ करतात. मुगांची दाळ एक बरें खाद्य आसून तिचेपसून कण्ण करतात. मुगांपिठाचे लाडूय करतात. मुगांची दाळ थंड, पुश्टीक, हलकी पित्तशामक आनी पचपाक बरी आसता.

मुगार भुरी, खोडकूज, मूळकूज आनी तांबेरा हे रोग दिसून येतात. बियांक पारायुक्त कवकनाशक चोळळयार खोडकूज आनी मूळकूज रोगांक आळो बसता. भुरी आनी तांबेरा ह्या रोगांखातीर ३०० मेश गंधक भुकटी हॅक्टरी २०किग्रॅ. वा डायथेन एम-४५ हेक्टरी १किग्रॅ. ५०० लिटर उदकांत भरसून तें उदक पिकार फाफुडटात. ह्या पिकार मावा, पानां खावपी कीड आनी पिसू भुंगेरे ह्या किडिंचो त्रास जाता. ह्या किडींक लागून १०% बी. एच. सी. पीठो हेक्टरी २०किग्रॅ. वारो शांत आसतना फाफुडटात.

मुगांत १०.४% उदक, २४% प्रथिनां, १.३% वसो, ५६.७% कार्बोहायड्रेटां आसतात.

मुगाच्या पिकाक फाव तें वातावरण नाशिल्ल्यान गोंयांत चडकरून हें पीक लागवडीखाला ना.

- कों. वि. सं. मं.

**मूज :** ब्राह्मण, क्षत्रिय आनी वैश्य भुरग्यांचो (चल्यांचो) एक धर्मीक संस्कार. हाका उपनयन, मौजीबंधन व्रतबंध वा मूज अशें म्हण्टात. हो संस्कार भुरग्याक वेद आनी हेर विद्या हांच्या अध्ययनाचो अधिकार प्राप्त करून दिता. भुरग्यान विद्या प्राप्तीच्या म्हळयार शिक्षणाचे पिरायेंत ब्रह्मचर्य व्रत पाळपाचें आसता आनी ह्या व्रताचो उपदेश मूजीच्या ह्या संस्कारावेळार आचार्य दिता. उपनयन हाचो अर्थ लागीं व्हरप असो आसा. शिक्षणाखातीर वा वेदांच्या अध्ययनाखातिर आचार्या म्हऱ्यांत व्हरप असो ताचो भावार्थ आसा. हो संस्कार आचार्यान म्हळयार गुरून करपाचो आसता. ह्या संस्कारांत बटूचे कमरेक मुंजतृणाची मेखला बांदतात, ताचेवयल्यान मौजीबंधन वा मूज असो शब्द आयला आसुंये.

वेदाच्या अध्ययनाचो अधिकार नाशिल्ल्या शूद्र बालकांक उपनयन संस्कार वैष्णवांच्या पांचरात्रागमांत सांगला. तो वेद सोडून हेर विद्यांचो अभ्यास करपापसत आसा. वेदकाळांत वेदाध्ययनाची इत्सा आशिल्ल्या चलयांचोय उपनयन संस्कार जातालो अशें हरितधर्मसूत्रांत म्हळां.

ह्या संस्कारान भुरग्याक द्विजत्व म्हळयार दुसरो जल्म मेळटा. पयलो जल्म आवयपसून आनी दुसरो आचार्यापसून.

आश्वलायन गृह्यसूत्राप्रमाण ब्राह्मणाची मूज ८व्या वर्सा, क्षत्रियाची ११व्या वर्सा आनी वैश्याची १२व्या वर्सा करची. त्रैवर्णिकांत हे पिरायेच्या अंतराक लागून विद्वानांत जायते तर्क आसात. पूण हाका कांय अभ्यासकांच्या मताप्रमाण वेव्हारीक आदारूय मेळटा. पुर्विल्ल्या काळांत ब्राह्मण बापूय हो आपल्या भुरग्याचो आचार्य लेगीत जावंक शकतालो, तोच आपल्या पुताचो मूजीचो संस्कार करतालो. पूण क्षत्रिय आनी वैश्य हांच्या भुरग्याक अध्ययनाखातीर आपल्या आवय-बापायक सोडून पयस आचार्यागेर रावपाक वचचें पडटालें. देखून, तांचे सोयीखातीर धर्मशास्त्रकारांनी क्षत्रिय-वैश्यांच्या ह्या संस्काराची पिराय वाडोवन दिल्या आसुंये अशें कांय अभ्यासक मानतात.

ह्या संस्काराची निमाणची मुदत ब्राह्मणाक १६ वर्सां, क्षत्रियांक २२वर्सां आनी वैश्यांक २४वर्सां अशी मानल्या. पूण ह्या संस्काराक जेन्ना शारिरीक संस्कार अशें स्वरूप प्राप्त जालें तेन्ना कितलोय कळाव जालो तरी हो संस्कार लग्नाआदी केन्नातरी करूंकूंच जाय अशें मानपाक लागले.

ह्या संस्काराचो विधी पयलीं वेवस्थित रितीन 'गृह्यसूत्रांत' मेळटा. ताचे पयलींच्या ग्रंथांत म्हळयार अथर्ववेद, शतपथब्राह्मण, छांदोग्य उपनिषद आनी बृहदारण्यक उपनिषद हातुंतूय ह्या संस्काराचो थोडेभितर उल्लेख मेळटा. हो आर्यांचो खूब पोरनो संस्कार आसून वेदकाळापयलींसावन तो चलत आयला. भारतीय आर्य आनी इराणी आर्य हे एकठांय आसतना हो संस्कार जातालो आसुंये. ह्या संस्काराभशेनूच, पारशी लोकांभितर 'नवजोत' नांवाचो संस्कार आसा.

सुरवेक हो संस्कार सामको सादो-सोंपो आशिल्लो. विद्यार्थी हातांत समिधा घेवन गुरूकडे वतालो आनी गुरू ताचें कुलगोत्र विचारून आपलो शिश्य म्हणून ताचो स्विकार करतालो. पूण ल्हव ल्हव करून तातूंत कर्मकांड रिगलें आनी ह्या संस्काराक एक धर्मीक स्वरूप येवन दसलें.

ह्या संस्काराक शुभ म्हूर्त पळयतात. माघ म्हयन्यासावन जेष्ठमेरेन पांच म्हयने, शुक्लपक्ष (वद्य पक्षांत फकत पंचम तीथीमेरेन), हस्त, चित्रा, स्वाती, पुष्य, धनिष्ठा, आश्विनी, मृगशीर्ष, पुनर्वसू, श्रवण आनी रेवती हीं नक्षत्रां आनी रवि, गुरू, शुक्र, बुध हे वार असो दीस धरतात.

भुरग्याचेर हो संस्कार करपाचो पयलो अधिकार ताच्या बापायक आसा. बापूय नासत जाल्यार कुळांतल्या हेर कोणेय दादल्यान तो करचो. बापूय म्हळयार कर्तो, पयलीं, भुरग्याक वेदाध्ययनाचो अधिकार प्राप्त जावन ताका द्विजत्व मेळूं असो संकल्प करता. उपरांत गणपतिपूजन, पुण्याहवाचन आनी मंडपदेवतांची प्रतिश्ठापना करतात. आवयसांगाता भुरग्याक जेवयतात, हाका मातृभोजन अशें म्हण्टात. जेवणाउपरांत भुरग्याचें वपन करून ताका शेंडी दवरतात. ताका मंगलन्हाण घालून

कपलाक कुकूम लायतकच तकलेक बाशींग बांदतात. मांटवांत येतकच कर्तो आनी बटू हांचेमदीं अंतरपाट धरून पुरोयत आनी हेर लोक मंगलाश्टकां म्हण्टात. बटूक लंगोट, कृष्णाजिन दितकच मंगलाश्टकां म्हणचीं अशें हिरण्यकेशी ब्रह्मकर्मांत सांगलां.

उपरांत कर्तो कुमाराक आपले उजवे वटेन बसोवन अग्नीची स्थापणूक करता, होम करता; होम जातकच भुरग्याक कौपीन म्हळयार लंगोट न्हेसयता. अजिन म्हळयार हरणाचें कातडें पांगुरपाक दिता. यज्ञोपवीत म्हळयार जानवें घालता, परतून हवन जाता आनी अग्निसामकार कुमाराचो हात धरून ताच्या तोंडांतल्यान कांय मंत्र म्हणोवन घेता. भुरगो गोत्रप्रवर आनी स्वताचें नांव सांगून कर्त्याच्या पांयां पडटा. उपरांत कर्तो सावित्री मंत्राचो म्हळयार सविता देवाचे प्रार्थनेच्या मंत्राचो आनी व्रतांचो उपदेश करता. मंत्रोपदेशा उपरांत कर्तो, कुमाराचे कमरेक मुंजतृणाची मेखला बांदता. क्षत्रियाक धोणवाचे दोरयेची आनी वैश्याक शण नांवाचे वनस्पतीची मेखला करची अशें मनु सांगता. उपरांत ताच्या हातांत पळसाची तकलेमेरेन उंचायेची बडी दितात. उपरांत परतून कांय होम करपाचे आसतात, ते जातकच कुमार भिक्षा मागता. ही भिक्षा सगळयांत पयलीं आवयकडेन मागता. मेळटा ती भिक्षा आचार्याचे सुवादीन करता. उपरांत ब्राह्मणांक जेवण घालतकच, हो मुजीचो सुवाळो सोंपता.

त्याच दिसा सांजेवळा अनुप्रवचनीय होम करचो अशें आश्व लायन गृह्यसूत्रांत सांगलां. तेखातीर अग्नि करून ताचेर चरू शिजयतात. सदसस्पति, सविता आनी ऋषि ह्या देवतांखातीर त्या चरुच्यो आहुती दितात. त्या चरुचें नांव ब्रह्मौदन अशें आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** जानवें.

**मूत आनी मुताचे विकार :** रगतांतले अशुध्द घटक गाळून कुडिंतल्यान गाळासकट भायर येवपी एक द्रव घटक. मूत रगत शुध्द करता. कुडींतल्या हालचालींतल्यान कुडिंतल्या रगतांत भौतिक तशेंच रसायनीक प्रक्रियेवरवीं कांय अपायकारक पदार्थ निर्माण जातात. हे पदार्थ कुशीक काडपाखातीर मूत्रपिंडांत रगताचें गाळप जावन रगत शुध्द करपाची प्रक्रिया घडटा. जो गाळ उरता तो मागीर मूत नळयेंतल्यान मुत्राशयांत एकठांय जावन थरावीक वेळेंत मूत्रमार्गांतल्यान मुताच्या रुपांत कुडीभायर पडटा.

मूत चडशें उदकान घडिल्लें आसता. तेभायर तातूंत युरिया, क्रियेटेनीन, युरिक आम्ल, हीं नत्रयुक्त रसायनां आनी सोडियम पोटेशियम हीं खनिज मिठां आसतात. दर एका मनशाक १-१५ लिटर मूत जाता. मुताचें प्रमाण, वातावरणाचें तापमान आनी द्रव जिनस पियेवपाचें प्रमाण हांचेर अवलंबून आसता. वातावरणांत चड गरमी आसल्यार घाम चड येता आनी मूत उणें जाता. तशेंच द्रव पदार्थ चड पिल्यार मुताचें प्रमाण वाडटा आनी उणें पिल्यार हें प्रमाण उणें जाता. पावसाळयांत मूत चड जाता जाल्यार गिमांत ताचें प्रमाण उणें जाता. अशे तरेन मूत कुडींतलें उदकाचें प्रमाण सांबाळटा. मुताच्यो पिडा, जोर, सुकतडो (dehydration) हाकालागून कुडींतलें मूत उणें जाता, तर गोडेमुताचे पिडेंत मूत चड जाता.

**मूत निर्माण क्रिया (Formation of Urine) :** मूत हें मूत्रपिंडांत तयार जाता आनी दर मनशाक दोन मूत्रपिंड आसतात. मूत्रपिंडांत मूत तयार जातकच तें मूतनळयेंतल्यान, मुत्राशयांत वता आनी थंय मूत एकठांय जातकच मनशाक मुतपाची ताकीत लागता. मुत्तना मुत्राशय आंवळटा आनी मुत्रमार्गनळयेंतल्यान मूत कुडीभायर वता.

**मूत्रपिंड (Kindney) :** हांचो आकार अळसांद्यावरी आसता आनी ते पोटांत दोनयवटेन आसतात. दर मूत्रपिंडांत १,००,००० कोशिकां चोमो आसता आनी तो मूत गाळपाचें काम करता दर कोशिका चोमो कोशिका आनी सुक्ष्ममूत्रनलिका हांचेपसून घडिल्ल्यो आसतात. सुक्ष्मनलिकेच्या भोंवतणीय कोशिकांचें जाळें आसता. कोशिकांचें अस्तर एक पेशी दाटायेचें आसता. पेशींमदले सुक्ष्म सुवातींतल्यान मूत गाळप जाता. गाळिल्ल्या मुतांतल्यान वायट जिनसांवांगडा बरेय जिन्नस आसतात. बरे गरजेचे जिन्नस सुक्ष्म मूत्रनलिकेंतल्यान केशिका परतून शोशून रगतांत घेतात. दर दिसाक मूत्रपिंड ९० लिटर रगत गाळपाचें काम करतात. हातूंतल्यान दर मिनटाक १.५मिली. इतलें मूत तयार जाता. परतून शोशून घेवन दिसाक फकत १.५लिटर इतलेंच मूत उरता. दर कोशिका चोम्याची सुक्ष्म मूतनलिका मूतनलिकांक जोडटा. ह्यो अशो पांच मूतनलिका एकठांय जोडून मूतनळी (मूतवाहिनी) तयार जाता.

मूत्रपिंड मूत तयार करपाभायर मनशाचो रक्तदाबय सांबाळटा. मूत्रपिंडाक सूज येतकच वा मार बसतकच मनशाचो रक्तदाब वाडटा.

**मुतनळी (Ureter) :** ३०-४५ सेंमी. लांबायेच्यो मूतनळयो कण्याच्या दोनय वटांनी आसतात. त्यो मूत्रपिंडाक मुत्राशयाकडेन जोडटात. मुत्राशयांत तांचीं तोंडां तिरपी रिगतात. मुत्राशय आवुंळटकच लेगीत मूत परतें मूतनळयेंत न पावपाक ही सैमीक येवजण आसता.

**मुत्राशय (Urinary Bladder) :** ही मूत सांठोवपाची पिशवी सुमार ०.५ लिटर मूत सांठोवंक शकता. मूत्राशय स्नायुंचो घडिल्लो आसता आनी ताचे भितल्लेवटेन ताका श्लेश्म पेशीचें अस्तर आसता. मुत्राशय मूत्रमार्ग नळयेक जोडिल्लो आसता. जंय मूत्रमार्ग मुत्राशयाक मेळटा थंय मुत्राशयाची मान अशें म्हण्टात. मुत्राशयाचे मानेभोंवतणी स्नायुंची मुदी आसता. हे स्नायु आंवळून मुताक भायर वचूंक आडायतात. मुत्राशयांत माने फाटल्यान एक त्रिकोणी उभट भाग आसता जाका मुत्राशयाचो त्रिकोण म्हण्टात.

**मूत्रमार्ग नळी (Urethra) :** हे नळयेंतल्यान मूत भायर सरता. दादल्यांक आनी बायलांक ही नळी विंगड विंगड आसता. दादल्याची मूत्रमार्ग नळी सुमार १८-२० सेंमी. लांब आनी ३सेंमी. रूंद आसता. ती अश्टील गांठ (Prostrate Gland) आनी शिश्नामदल्यान वता. तिचें तोंड शिश्नाचे तेंगशेर उक्तें जाता. दादल्याचे मूत्रमार्ग नळयेक विर्याच्यो नळयो जोडिल्ल्यो आसतात. म्हणून मूत्रमार्ग नळी वीर्यवाहीनिचेंय काम करता. बायलांची मूत्रमार्गनळी ४सेंमी. लांब आसता. योनीमार्गाच्या वयले वण्टींतल्यान वचून ती भग्नशिश्नाच्या खाला उक्ती जाता.

**मुतपाची क्रिया :** २ वर्सां सकयल्या भुरग्यांमदीं मुतपाची क्रिया उस्फुर्त आसता. मुत्राशयांत मूत सांठवतकच ताचो दाब वाडटा आनी तो




**मूत प्रक्रियेचे घटक**

मूत प्रक्रियेचे घटकः १ - शीर, २ - मुखेलशीर, ३ - मूतशीर, ४ - मूत्रपिंड, ५ -मूतधमणी, ६ - मूतनळी, ७ -मुत्राशय, ८ - मूत्रमार्ग नळी,




**मूत्रपिंड**

मूत्रपिंड : १ - केशिका गुच्छ, २ - मूतशीर, ३ - मूतधमणी, ४ - मूतनळी




**केशिका गुच्छ**

केशिका गुच्छ : १ - सुक्ष्म मूत नलिका, २ - मूतनलिका

आवुंळटा. वांगडाच ताचे मानेभोंवतणचे स्नायु सदळ जातात आनी मूत्रमार्ग नळी उक्ती जाता. अशें जातकच भुरग्याक मुतूंक जाता.

जाण्ट्यांमदीं मुतपाचे क्रियेचेर मेंदवाचें नियंत्रण आसता. मुत्राशयांत सुमार २५०मिली. मूत साठवतकच मनशाक मुतपाची ताकतीक लागता. पूण तें भायर सुटना. पूण जेन्ना ताका मूतूंक जाय तेन्ना मज्जारज्जुंतले मज्जातंतू मुत्राशयाक आवुंळपाचो रकाद धाडटा. १,२ मज्जातंतू कमरच्या मज्ज्यांफाटल्यान आसतात. वांगडाच हे मज्जातंतू मानेभोंवतणच्या स्नायुंक सदळ जावपाचोय रकाद दितात. अशें जातकच मनशाक मुतूंक जाता. मेंदवाचे पिडेंत वा कण्याक मार लागल्यार हें मुताचें नियंत्रण सारकें उरना आनी मुतपाचे क्रियेचेर मनशाचो शेक उरना. अशें जातकच मूत थेंबाथेंबान गळत रावता (incontinence of Urine) वा मुत्राशय भरतकच आपशींच मुतूंक जाता.

**मुखेल पिडा :** १) इनफेक्शन, २) मूतखडो- मूत्रपिंड सूजप आनी गोडेंमूत ह्यो मुखेल पिडा जावन आसात. तेभायर कॅन्सर आनी हेर कांय पिडाय मूत्रपिंडांक जावं येतात.

१) मुताचें इनफेक्शन ही मुताची सगळयांत प्रचलीत पिडा. मुतांत रोगजंतुंची लागण जातकच ही पिडा जाता. चडकरून सुरवेक रोगजंतुची लागण मुत्राशयांत जाता आनी मुतावरवीं ती मूत्रपिंडांत पावंक शकता. दादल्यापरस बायलांमदीं हे पिडेचें प्रमाण चड दिसून येता. मुतारी निवळ नासल्यार वा मूत चड वेळ सांठोवन दवरल्यार इनफेक्शन जावंक शकता. गोडेमुताच्या पिडेस्तांक हें इनफेक्शन चड प्रमाणांत जाता. मुतांत आशिल्ले ग्लुकोज हे साकरेक लागून रोगजंतू बेगीन आनी चड प्रमाणांत पोसतात आनी मुतांत इनफेक्शनाची लागण बेगीन जाता.

मुताच्या इनफेक्शनाचें मुखेल कारण म्हळयार साठवल्लें मूत. हातूंत रोगजंतू बेगीन वाडटात. तशेंच मुत्राशयांतल्यान मूत भायर वचपाक आडखळ आसप हें भुरग्यांमदल्या इनफेक्शनाचें एक मुखेल कारण. मुत्राशयाचे मानेफाटल्यान श्लेश्म पड्ड्याचें पटल (Post Urethral Valve) आनी मुत्राशयाच्या त्रिकोणाची वाड ह्या दोन मुखेल कारणांक लागून ही आडखळ जाता. मुत्राशयांतल्यान मूत परतें वयर मूतनळयेंत (Vesico Ureteric reflux) वचप हेंय एक इनफेक्शनाचें कारण आसा. मुत्राशयांतलें मूत मूत्रनळयेंत चड वयर गेल्यार मूत्रपिंडाक बादा जांव येता.

कुलकुल्याचो जोर येवप, परत परत मुतूंक जावप आनी मुताकडेन जळजळप हीं इन्फेक्शनाच्या पिडेचीं मुखेल लक्षणां आसात. अशा वेळार मूत तपासून वा मूत्रपिंड, मुताच्यो नळयो, हांची 'क्ष' किरण तपासणी करून इनफेक्शनाचें कारण सोदून काडटात. हातूंत मुताचे वाटेक आडखळ आसा वा ना तशेंच मूत्रपिंडांचें काम बरें चलता वा ना हाचीय जाणकारी मेळटा.

मुताच्या इनफेक्शनाचेर बेगीन उपाय जालो ना जाल्यार मुत्रपिंडांक बादा जावंक शकता.

**मूतखडो (Kindney Stone) :** हे पिडेंत मुतांत एक फातराभशेन खडो तयार जाता. हो खडो मूत्रपिंडांत मूतनळयेंत वा मुत्राशयांत जावंक शकता. हो खडो बारीक आसल्यार मुतावांगडा भायर सरता. मूतखडो मूतनळयेंत जाल्यार मुताची वाट बंद जाता आनी मूत्रपिंडाक बादा जावंक शकता. मूतखडो कॅल्शियम ओक्सालेट वा कॅाल्शियम फॉस्फेट हांचेपसून जाता. केन्नाकेन्नाय युरेट वा सिस्टीन आम्लाचोय तो घडिल्लो आसता.

**मूतखड्याचीं कारणां अशीं :** १) आहारांत अ जिवनसत्व उणें आसप आनी ऑक्सालेट चड आसप. २) मूत वचपाक आडखळ आसप. ३) मुताच्या इनफेक्शनाची पिडा आसप. ४) द्रव पेयाचें पियेवप उणें आसप.

**मूतखड्याचीं लक्षणां :** मूतखडो व्हड जायसर ताचीं लक्षणां कांयच दिसनात. उपरांत एखाद्रें मुतांत रगत वचप आनी मुताचे वाटेर पेज येवप हीं लक्षणां मुखेलपणान दिसतात. केन्ना केन्नाय अशावेळार इनफेक्शनाची पिडा जाता.

**उपचार :** सुरवेक मुतखडो जाल्यार तो शस्त्रक्रियेन काडटाले. आतां लिथोट्रीप्सी करून खडो फोडटात आनी बारीक जाल्ले खडे मुतावरवीं भायर रसतात. आतां लेसर किरणाच्या आदारानय मूतखडो फोडूंक येता.

**मूत्रपिंडाची सूज :** हातूंत नेफ्रायटीस आनी नेफ्रोटीक सिंड्रोम हीं मुखेल लक्षणां दिसून येतात. नेफ्रायटीस हें दुखणें चडशें स्ट्रेप्टोकोकस ह्या रोगजंतुची लागण जातकच सुमार १५ म्हयन्या उपरांत जाता. ताका लागून भिण्णां फुलप, आंगार फोड येवप, हीं दुखणीं जातात. स्ट्रेप्टोकोकसाची लागण जातकच कुडींत ताचे प्रतिकार घटक तयार जातात. हे प्रतिकार घटक मूत्रपिंडाक सूज हाडटात.

नेफ्रायटीस ह्या दुखण्यांत मूत उणें जावप, मुतांत रक्तस्त्राव जावप, मुतांत आल्बुमीन मेळप, रक्तदाब वाडप, सूज येवप हीं लक्षणां दिसतात. नेफ्रायटीस ही पिडा उपचार केल्यार बेगीन बरी जाता. पूण सुमार ५% पिडेस्तांक मूत्रपिंडाचें दुखणें खर जाता आनी एखाद्रें मूत्रपिंड निकामी जाता.

नेफ्रोटीक सिंड्रोम ह्या दुखण्यांत सूज येवप, मूत उणें जावप आनी मुतांत आल्बुमीन खूब प्रमाणांत वचप हीं लक्षणां दिसतात. नेफ्रोटीक सिड्रोमाचेर स्टेरोयड हीं वखदां दितात आनी तीं ६ म्हयने ते १ वर्समेरेन दिवंची पडटात. सामक्या ल्हान भुरग्याक हें दुखणें जाल्यार खूब भंयाचें.

ह्या पिडांभायर मूत्रपिंडाक कॅन्सर ह्या दुखण्याची बादा जावंक शकता. हातूंत मुतांत रक्तस्त्राव जावप हें मुखेल लक्षण आसता.

**हांतरुणांत मुतूंक जावप :** खूबशा भुरग्यांमदीं ही पिडा दिसून येता. हेरवीं भुरगें हुशार आसुनूय ताचेर मानसिक दबाव आशिल्ल्यान अशें घडून येवंक शकता. हाचेर उपाय म्हळ्यार न्हिदचे आदीं आनी न्हिदतकच दोन वरांनी उठोवन भुरग्याक मुतूंक धाडप. सद्याच्या काळांत इलेक्ट्रीक हांतरूणय मेळटा. ह्या हांतरुणार न्हिदतकच मुताचो थेंबो पडनाफुडें भुरग्याक जाग येता. जाग येतकच भुरगें मुतूंक वता आनी हांतरुणार मुतूंक पावना.

**मुताची तपासणी :** मुताचे तपासणेवयल्यान मनशाचे भलायकेविशीं अदमास मेळटा. गोडेंमूत, कामीण, मूत्रपिंडाच्यो पिडा, मूतखडो, मुताच्या इनफेक्शनाच्यो पिडा हांचें निदान मुताचे तपासणेवयल्यान करूंक मेळटा. कांय पिडांच्या उपचारांची दिकाय हे तपासणेच्या आदाराचेर थरता.

मुताची तपासणी चार मुखेल भागांनी करतात. ते अशेः १) स्थूल तपासणीः (Physical Examination) २) रसायनीक तपासणी (Chemical Examination) ३) सूक्ष्म रोगजंतूची तपासणी (Micro-biological) ४) सूक्ष्म तपासणी (Microscopic Examination).

**स्थूल तपासणी :** हातूंत मुताचो रंग, वास, पातळसाण आनी निवळसाण तपासतात.

**अ) मुताचो रंग :** मुताच्या रंगावयल्यानय कांय रोगांचें निदान जाता. देखीक- कामीण जाल्यार मुताचो रंग तांबसार हळदुवो जाता. मुतांत रक्तस्त्राव जाल्यार मूत तांबड्या रंगाचें जाता. कांय वखदां घेतकरय मुताचो रंग बदलता.

**ब) मुताची नितळसाण :** मूत निवळ आनी पारदर्शक आसूंक जाय. मुतांत इनफेक्शन आसल्यार मूत खदूळ जाता तशेंच मुतांत प्रथिनां आनी फॉस्फेट चड जाल्यारय मूत खदूळ जाता.

**क) मुताची पातळसाण :** मुताची पातळसाण स्पेसिफीक ग्रॅविटी (Specific gravity) हे घनतेच्या मापान मेजतात. मुताची घनता १.००५ ते १.०३० मेरेन आसता. जोरांत वा परसाकडल्या दुयेंसांत मूत उणें जातकच ताची घनता वाडटा जाल्यार उदक चड पियेतकच उणी जाता. जेन्ना उदक चड पिवन लेगीत मुताची घनता तशीच उरता उणी वा चड जायना तेन्ना मुताची घनता तशीच उरता (Fixed Specific gravity) अशें म्हण्टात. मूत्रपिंडाचें दुखणें खर जातकच अशें घडटा.

**२) मुताची रसायनीक तपासणी :** हातूंत मुतांत साकर, प्रथिनां वा हार्मोन, ॲसेटोन, आम्लां कामणीचो रंग हांची तपासणी करतात.

**(अ) साकर :** मुतांत साकर मेळप हें गोड्या मुताचें पयलें लक्षण जावंक शकता. मुताचे तपासणेवयल्यान गोड्यामुताची खारसाण कळटा आनी ताचेवयल्यान उपाराची दिका थारावंक मेळटा.

**(ब) प्रथिनां :** मुतांतलें आल्बुमीन हें प्रथीन मेजतात. हें प्रथीन मुतांत उण्या प्रमाणांत आसता. मुतांत दर दिसा आल्बुमीन ०.३ ग्रामांपरस चड गेल्यार म्हत्वाचें अशें मानतात. आल्बुमीन मुतांत चड प्रमाणांत

आसप हें मूत्रपिंडाची पिडा दाखयता. मूत्रपिंडाक सूज येवप, रक्तदाब खूबदीस वाडून उरप, वा गोड्यामुताचे पिडेन मूत्रपिंडाक मार बसप (Diabetic Nephropathy) हांकां लागून मुतांत आल्बुमीन मेळटा.

गुरवार बायलेचें मूत नेमान तपासतात. गुरवार बायलेच्या रोगांत चड मूत मेळ्ळयार बाळंत रोगाचें (Taxaemia) पयलें लक्षण मानतात. एखाद्र्या वेळार Multiple Myeloma हे कॅन्सराचे पिडेंत मुतांत प्रथिनां मेळटात. ह्या प्रथिनांक 'बेन्स जोन्स' प्रथिनां अशें म्हण्टात.

**क) ॲसेटोन :** मुतांत ॲसेटोन चड मेळ्ळयार गोड्या मुताची पिडा खर जाल्या अशें मानप जाता. खर उपासा उपरांतय मुतांत ॲसेटोन मेळटा.

**३) मुताची सुक्ष्मरोगजंतुंची तपासणी :** ही तपासणी मुताक इंनफेक्शन जालां वा ना तें दाखयता. हे तपासणेंत इल्लेशें मूत घेवन एके 'पोशक अन्न प्लेटींत' (Culture Media) घालतात. हे प्लेटींत मुतांतले सुक्ष्म रोगजंतू वाडटात. उपरांत तांची तपासणी जीवशास्त्र वैज करतात.

**४) मुताची सुक्ष्म तपासणी :** हे तपासणेंत मुतांतले घन जिनस तपासतात. रगतपेशी, स्फटीक, प्रथिनांचे गुळे, सुक्ष्मरोगजंतू हांची तपासणी करपाक हे तपासणेचो आदार जाता. सुरवेक घनजिनस मुतांतल्यान वेगळे करतात. (centrufuse) ह्या यंत्रांत तपासनळयेंत घाल्लें मूत खूब जलद गतीन घुंवडायतकच घन जिनस एका तोंकाक एकठांय येतात.

**अ) धव्यो रक्तपेशी (Pus cells) :** ह्यो रक्तपेशी सुक्ष्मदर्श यंत्राचे पळोवणेंत ५-१० चे परस चड आसल्यार मुताक इंनफेक्शनाची बादा जाल्या अशें समजतात.

**आ) तांबड्यो रक्तपेशी (Red blood Cells) :** मुतांत ह्यो रक्तपेशी आसनात. मूत्रपिंडांत वा मुताचेवाटेर रक्तस्त्राव जाल्यार मुतांत ह्यो रक्तपेशी दिसतात. मुतांत तांबड्यो पेशी दिसल्यार मूत्रपिंडाची सूज, मूत्रपिंडाक टी.बी.ची लागण, मूत्रपिंड वा मुता वाटेच्या अवयवांचो कॅन्सर वा मूतखडो ह्या पिडांचो दुबाव आसता.

**३) प्रथिनांचे गुळे/पेशींचे गुळे :** हे गुळे सूक्ष्ममूत नलिकांच्या आकाराचे आसतात म्हूण तांकां सांचे अशेंय म्हण्टात. मूत्रपिंडाच्या सुजेच्या दुखण्यांत हें गुळे मेळटात.

**इ) स्फटीक (Crystals) :** मुतांत तरातरांचे स्फटीक मेळटात. तांचें प्रमाण चड आसल्यार वैज मूतखड्याचो दुबाव उक्तायतात. स्फटिकांच्या आकारावयल्यान ताका वळखूंक येता. चडशे स्फटीक ऑक्सलेटाचे आसतात. युरिक अम्ल, सिस्टोन अम्ल, फॉस्फेट हांचेय स्फटीक मूतांत मेळटात. मूतांत ऑक्सलेटाचे स्फटीक चड प्रमाणांत आसल्यार खर उपाय घेवंचे पडटात.

- डॉ. अवधूत बोरकार

**पूरक नोंद :** डायबिटीस (गोडें मूत).

**मूय :** गण-हायमेनॉप्टेरा, कूळ-फॉर्मिसीडी. हो एक ल्हान जीव आसून हायमेनॉप्टेरा ह्या गणांत आस्पाव जाल्ल्या म्होंवामूस, गांधील मूस, भुंगे आदी जीवांपरस चड काम करपी हुशार आनी शिस्तप्रीय समजतात. फॉर्मिसिडी ह्या कुळांतल्यो मुयो फॉर्मिसिनी, डोरिलिनी, पोनेरिनी, मर्मिसिनी आदी सात उपकुळांत विभागिल्ल्यो आसात. संवसारांतल्या मुयांच्या सुमार १०,००० जातींची नोंद जाल्ली आसून भारतांत सुमार १,००० जातीच्यो मुयो आसात. दर एके मुयेच्यो संवयो आनी वागपाची तरा हातूंत बरोच फरक दिसून येता. दोमळो होय एकतरेची मूय. ताचो आकार मूयेपरस बरोच व्हड आसता. ताचें शास्त्रीय नांव कँपोनोटस कॉंप्रेसस.

मुयांच्या शरिराच्या भागांच्या आकारावयल्यान आनी तांच्या राहणीमानावयल्यान तांचें विभाजन करतात. मूयेचो रंग तांबडो, काळो, तपकिरी वा हळदुवो आसता. तांच्या शरिराची लांबाय १मिमी. ते ४० मिमी. मेरेन आसूंक शकता. तांची कात घट्ट आसून ती तांचे कुडीची राखण करता. तांची कूड गुळगुळीत आसून तकली, छाती आनी पोट अशे तीन भाग पडटात-




**मुयेच्या शरिराची रचना :**
१ - मिशो; २ - दोळो; ३ - तकली; ४ - छाती; ५ - पोट; ६ - कमर; ७ - पाय; ८ - नांगी.

**१) तकली :** तांची तकली वांटकुळी वा लांबशी आसता. तकलेचे दोनूय वटेन दोन मिशो आसून तांचो आकार मनशाच्या हातावरी आसता. मुयो तांचो उपेग वास घेवपाखातीर तशेंच खावड सोदपाखातीर करतात.

मुयांक ६-१००० तासां आशिल्ले दोन दोळे आसतात. व्हड आकाराच्या मुयांक दोळयांत चड तासां आसतात जाल्यार ल्हान आकाराच्या मुयांक दोळयांत कमी तासां आसतात. कांय पाखांच्या मुयांक तकले फाटल्यान तीन दोळे आसतात. तांच्या तोंडा लागसार दोन धारेचे आनी नीबर अशे जबडे आसतात. अन्नाचे कण वा हेर जड पदार्थ त्यो जबड्यांत धरून सहज उखलतात. ह्या जबड्यांचे उपेग त्यो कातरीवरी कापूंक, अन्न व्हरूंक आनी दुस्मानापसून राखण करूंक जाता.

**२) छाती :** मुयेचे छातयेचे तीन भाग आसून दर एका भागाचेर उस्वास घेवपाखातीर बुराखांची एक जोडी आसता आनी पांयांची एक जोडी आसता. मूयेची छाती आनी पोट वेगवेगळें आसून मदीं एक बारीक

कमर आसता. ह्या कमराचो आकार वेगवेगळया जातींत वेगवेगळया प्रकाराचो आसता. मुयांक पांयांच्यो तीन जोडयो आसतात. दर एकाक पांच भाग आसतात. निमण्या भागाक दोन दावकुलां आसून तांचो उपेग धरपाखातीर करतात. कांय मुयांक पांखांची जोडी आसता. मुखावयली पांखां फाटल्या पांखांपरस मात्शीं व्हड आसतात.

**३) पोट :** मुयेच्या पोटाचे स भाग आसतात. कांय मुयांच्या पोटाच्या निमाणें नांगी आसता. मुयेचो अन्नमार्ग तिच्या शरिरापरस चड लांब आसून ताचे तीन भाग जातात. अग्रांत्र, मध्यांत्र आनी पश्चांत्र. अग्रांत्र हें अशीर आसून तें तोंडालागसार सुरू जाता. तातूंत मुयेन खाल्लें अन्न साठवता. उपरांत तें मध्यांत्रांत येता. हो भाग रूंद आसून तातूंत पाचक द्रव्यां निर्माण जातात. हांगा अन्नाचें पचन जावन अभिशोशण करप जाता.

मुयेची छाती आनी पोट हाच्या वटेन आशिल्ल्या बारीक रंध्रां (बुराक) वरवीं उस्वास घेवप जाता. मुयेचें पारदर्शक रगत जेन्ना एकठांय आसता तेन्ना तें पाचवें-हुळदुवसारशें दिसता. मुयेचें तंत्रिकातंत्र हें साबार लांब तंत्रिका धाग्यांनी तयार जाल्लें आसून तें कुडींत पातळिल्ल्या तंत्रिकाशीरेक जोडिल्लें आसता.

**राबित्याचो वाठार :** दक्षिण ध्रुव आनी उत्तर ध्रुव सोडून संवसारांतल्या सगळया देशांनी मुयो दिश्टी पडटात. खूब पुर्विल्ल्या काळासावन त्यो अस्तित्वांत आशिल्ल्यान पुर्विल्ल्या ग्रंथांत तांचो उल्लेख मेळटा. त्यो चडकरून जमनींत रोयणींत रावतात. तेचपरी त्यो चोम्या चोम्यांनीच रावतात आनी तांचें काम करपय एकठांय आसता. जमनींत रोयणी करून त्यो आपल्यो वसाहती स्थापन करतात. एके वसाहतींत चडांतचड ५ लाख मुयो आसतात.

**प्रकार आनी जाती :** मुयांचेच सादारणपणान जायते प्रकार आसात तातूंतले कांय म्हत्वाचे प्रकार अशे-

**१) शेतकरी मुयो :** ह्यो चडकरून सुक्या, उश्ण आनी रेंवट जाग्यांनी रावतात.

**२) म्होंवाच्यो मुयो :** ह्यो चडकरून गोड रसांत रावतात आनी आपल्या शरिरांत म्होंवाचो सांठो करतात. कांय मुयो म्होंव खातात पूण तें आपल्या शरिरांत सांठावन दवरनात.

**३) पान-खायच्यो मुयो :** ह्यो मुयो पानांचे तशेंच फुलांचे कुडके काडटात.

**४) गुलाम मुयो :** ह्यो मुयो स्वता काम करिनात. पूण दुसरे वसाहतींत वचून तातूंतल्या कामकरी मुयांचें कोश व्हरतात आनी आपल्या रोवणींत दवरतात आनी त्या कोशांतल्यान मुयो भायर येतकच तांच्या कडल्यान काम करून घेतात.

**५) लश्करी मुयो :** ह्यो चडकरून आफ्रिका आनी अमेरिकेंतल्या उश्ण वाठारांत रावतात. त्यो एकेकडेन रोयण वा घर करून रावनात. त्यो भटक्यो आसतात. एकेकडल्यान दुसरीकडे वता आसतना त्यो पंगडान आनी वळीन वतात. तांकां दोळे नासतात पूण स्पर्शेंद्रियां तीक्ष्ण आसतात.




**मुयो :** १ - राणीमूय; २ - दादलो मूय; ३ - कामकरी मूय; ४ - सैनिक मूय.

**प्रजनन :** सादारणपणान पावसाळयाचे सुरवेक रोयणींतल्यान पांखां आशिल्ले हजारांनी नर आनी मादी मुयांचे चोमे उडूंक लागतात आनी थंयच तांचो संयोग जाता. पाखां नाशिल्ल्या मुयांचो जमनीचेरच संयोग घडटा. संयोगाउपरांत त्यो मुयो परत जमनीर येतात. उपरांत मादी मुयांचीं पांखां गळून पडटात. मागीर त्यो तांतयां घालपाक जागो सोदतात. आपले वसाहतीपसून पयसुल्ल्या भागांत देवल्यार त्यो स्वता जमनींत एक ल्हान बीळ करून घरटें तयार करतात आनी त्या बीळाचें तोंड बंद करून स्वताक बंदिस्त करतात. उपरांत त्यो तांतयां घालतात. ह्या तांतयांतल्यान भायर येवपी कीडीक (Larva) म्हण्टात. मूय स्वताच्या तोंडांतलो लाळेवरी पदार्थ अन्न म्हूण तांकां खावपाक घालता. थरावीक काळा उपरांत ह्यो कामकरी मुयो कोशांतल्यान भायर येतात. हो वेळ मेरेन राणीमूय (आवय) कांयच खायना.

कांय राणीमुयो आपल्या मूळ वसाहतीच्या लागीं देंवतकच कामकरी मूयो तांकां घेराव घालतात आनी तांकां पयस व्हरून तांच्या आदारान नव्यो वसाहती निर्माण करतात. कारण मूळ वसाहतींत मूयांची संख्या चड जाल्ली आसता. वसाहतींत मूखेलपणान तीन प्रकारच्यो मुयो आसतात. १) राणी मुयो २) नर मुयो ३) कामकरी मुयो.

**राणी मुयो :** ही एक खाशेली मादी मूय तांतयां घालता आनी नव्या राणी, नर आनी कामकरी मुयांची निर्मिती करता. ह्यो मुयो नर आनी कामकरी मुयांपरस व्हड आसतात. एके वसाहतींत एक राणी आसता, पूण कांय खेपे एके वसाहतींत एकापरस चडय राणयो रावतात. कामकरी मुयो तांची जतनाय घेवपाचें आनी तांकां खावड दिवपाचें काम

करता. राणी मूय १०-१५ वर्सां जगूंक शकता.

**नर मूय :** ह्यो मुयो कामकरी मुयांपरस व्हड, ल्हान वा तांचे येद्योच आसतात. पूण राणी मुयेपरस ल्हान आसतात. कांय नर मुयांक पाखां आसतात जाल्यार काय नर मुयांक नासतात. तांचो उपेग फक्त मुयांकडेन संयोग घडपाक जाता. ह्यो मुयो फक्त कांय आठवडेच जगतात. राणी मुयांकडेन तांचो संयोग घडून येतकींच तांकां मरण येता.

**कामकरी मुयो :** ज्या मादी मुयांचो नर मुयांकडेन संयोग घडना वा ज्यो तांतयां घालीनात त्यो कामकरी मुयो. हांचें काम रोयण नितळ दवरप, वसाहतींतलें बांदकाम करप, खावड एकठांय करप आनी मुयांच्या ल्हान पिलांक सांबाळप. कांय व्हडल्या आकाराच्यो कामकरी मुयो वसाहतींतल्या हेर मुयांची दुस्मानापसून राखण करतात. कामकरी मुयो जेन्ना खावड हाडपाखातीर भायर सरतात तेन्ना वाटेर एक तरेचें रसायनीक द्रव्य घालत वतात जाका फेरोमेन म्हण्टात. ह्या द्रव्याक लागून त्यो आपले रोयणींत येवंक शकतात. एके रोयणींतलें फेरोमेन दुसरे रोयणींतल्या फेरोमेनापरस वेगळें आसता. ताका लागून एकेच रोयणींतल्यो मुयो आपआपले प्रकार वळखूंक शकतात. (देखीक : राणी मूय, नर मूय, कामकरी मूय).

मुयांचें अन्न हें जायत्या तराचें आसता. किडी, झाडाचें बीं, कड्डण, झाडापसून मेळपी गोड पदार्थ, फुलांतलें म्होंव हाचे भायर कांय मुयो आपले रोयणींत हेर जातींच्या किटकांक सोयरेकशे रावंक दितात. हे कीटक कांयखेपे आपल्या आंगांतल्यान म्होंवावरी गोड पदार्थ भायर सोडटात. हो पदार्थ खावपाखातीर मुयो तांची राखण करतात.

**उपेग :** १) मुयांच्या कोशांतल्यो किडी नुस्त्याखातीर अन्न म्हूण वापरतात. २) मुयो रोयण करपाखातीर जमीन उस्तीतात जाचेवरवीं जमनीची सुपीकता सुदारता. ३) कांय मुयो वायटी वा हेर जीवांक नश्ट करतात जाल्यार कांय मुयो पिकांक लागपी भोंवऱ्याच्या किडींचो नाश करतात.

तेच वांगडा मुयो कांय उपद्रवय करतात. घरांतले गोड पदार्थ, धान्य, शेतांत पेरिल्लें बीं, झाडाचें नवे रोप हांचो मुयो नाश करतात. नव्या रोंपांतल्या मुळांतल्यो मुयो रोस पिता आशिल्ल्यान तीं झाडां उपरांत मरतात. आंगार चडिल्ली मूय घांस मारून मुयांचेर आळाबंदा हाडपाक लिंडेन, डिल्ड्रीन, क्लोरडान, गॅमेक्झिन ह्या सारकीं विखारी कीटकनाशकां वापरतात.

मुयांक एक तरेचो जंबूपार उजवाड (travidet light) दिसता जो आमकां दिसना. मुयांक तांबडो रंग काळ्या रंगापरी दिसता. जेन्ना मुयो जमनीवयल्यान भोंवतात तेन्ना तांचें पोट जमनीक तेंकता आनी तातुंतल्यान एकतरेचो द्रव भायर सरता. ह्या द्रवाक जो वास येता ताच्या आदारान मुयो आपल्या वसाहतींतल्या दुसऱ्या मुयांम्हऱ्यांत पावतात. जेन्ना आमी मुयांचें घर इबाडटात वा नश्ट करतात तेन्ना कामकरी मुयो एक धवें बाड घेवन दुसरेकडेन वतात. हें बाड म्हळ्यार मुयेचें तांती नासून तांतयांतली कीड आसता.

मुयो चोम्यांनी रावतात. शिंयादिसांनी त्यो चडकरून आपल्या घरांतच रावतात. मुयो स्वताच्या वजनापरस चड वजन व्हरपाक शकतात. मुयो आपले कुडीच्या हालचालीवरवीं एकतरेचो आवाज काडटात जो दुसऱ्यो मुयो आपल्या पांयाच्या कंपनावरवीं आयकूंक शकतात. मनीसय कांय खेपे हो आवाज आयकूंक शकतात.

- डॉ. एच. के. मालवीय

**मूर :** भूमध्य समुद्राच्या वाठारांतली एक कॉकेशियन मानवजात. वायव्य आफ्रिकेंतल्या लोकांक रोमन लोक मॉरी आनी तांच्या प्रांताक मॉरिटेनिया म्हण्टात. ताचेवयल्यान फुडें मूर हें नांव रूढ जालें. वायव्य आफ्रिकेंतल्या अरबी भाशीक मुसलमानांक आनी स्पॅनिश यहुदी वा उत्तर आफ्रिकेंतल्या तुर्की लोकांक चड करून मूर म्हण्टात. श्रीलंकेंतल्या इस्लाम धर्मीय लोकांक आनी फिलिपीन्सांतल्या मुसलमानांकूय मूर म्हण्टात. सद्याचे मूर हे बर्बर आनी अरब लोकांचे वंशज आसून आठव्या शतमानांत तांणी इस्लामचो स्वीकार केलो. कालांतरान ते आफ्रिकेच्या नैर्ऋत्य भागांत आनी वायव्येकडेन स्पेनांत पातळ्ळे. तारिक इब्न-झियाद हाच्या फुडारपणाखाल ताणें जिब्राल्टरचेर घुरी घालून व्हिसिगॉथांचो राजा रॉदरिगोचे सत्तेक धपको दिलो. फुडें तो फ्रांसांतूय घुसलो, पूण शार्ल मार्तेल हाणें तूर्झच्या झुजांत (७२५) ताचो पराभव केलो. अब्दुर रहमान हाणें कॉर्दोव्हा हांगा उमय्यांची सत्ता स्थापन केली (७५६). तिसऱ्या अब्दुर रहमानच्या वेळार कॉर्दोव्हाची खिलाफत उजवाडाक आयली. कॉर्दोव्हान कलेच्या मळार उदरगत केली. उमय्यांच्या विस्ताराक खिस्ती लोकांनी विरोध केलो. अल्-मन्सूर राजपालक आसतना खिस्ती-इस्लामी संघर्शान उग्र रूप धारण केलें. ह्या संघर्शमय वातावरणांतूय तोलेधो, कॉर्दोव्हा, सव्हिल हीं शारां प्रसिध्द जालीं. उमय्या खिलाफतूय ही खिस्ती धर्माचो प्रभाव आनी कर्तबगार खलीफांचो उणाव हाका लागून १०३१ त सोंपली. फुडें मूर लोकांची संस्कृताय ल्हव ल्हव नश्ट जाली. लीआँ आनी कॅस्टीलचो राजा सवो आफांसो हाणें मूरांचो पराभव केलो (१०८५).

तेउपरांत नाव्हास धे टोलोसाच्या झुजांत खिस्ती सेनेन मूरांची सत्ता ल्हव ल्हव सोंपयली. कॅस्टीलच्या तिसऱ्या फर्डिनांटान कॉर्दोवा घेतकच लेगीत (१२३६) मलागा-ग्रॅनाडा प्रांतांत मूरांची सत्ता कांय वर्सां तग धरून आशिल्ली. पूण कितल्याशाच मूरांनी किरिस्तांव धर्म आपणायलो. फुडें किरिस्तांव मूरांक मॉरिस्को आनी इस्लाम धर्मियांक मुदेजार्स अशीं नांवां पडलीं. हांची वसणूक चड करून अल्जिरिया आनी मोरोक्को ह्या वाठारांनी आसा. निमाणें स्पेनांत धर्मन्यायपीठ स्थापन

जातकच मूरांची स्थिती सामकी देंवली आनी सतराव्या शेंकड्याचे अखेरेक ते स्पेनांतल्यान पुराय भायर पडले.

- कों. वि. सं. मं.

**मूर्तिकला :** आपल्या प्रिय वा पूज्य व्यक्तीची, देवतेची, मानवी रूप आशिल्ली, फातरापसून तयार केल्ले प्रतिमेक मूर्त म्हण्टात आनी ही मूर्त घडोवपाचे कलेक मूर्तिकला म्हण्टात. आयचे घडयेक वास्तव संवसारांतल्या सजिव मनशांच्यो मूर्ती घडयता आसले तरी सुरवेक पूजेखातीर अधिश्ठान दिवपी देव-देवता वा तत्सम अमानवी विभुतींचीच मूर्त तयार करप जातालें. चड करून ह्या देव-देवतांच्या सान्निध्यांत उरपी, काल्पनिक वा वास्तव, मोनजात, वनस्पत हांच्योय प्रतिमा मुखेल मूर्तिवांगडा तयार करप जातालें. पुर्विल्ल्या काळांत मूर्तिकलेचो उगम हो देवपूजेंतल्यान जालो आसलो तरी सद्याक मूर्तिकलेकडे हेर कलांसारकी एक स्वतंत्र अभिजात कला म्हूण पळोवप जाता. मूर्ती तयार करपाखातीर मुखेलपणान माती, लाकूड, धातू, पाशाण, प्लास्टर, शिमीट सारक्या वस्तूंचो उपेग करता.

संस्कृत साहित्यांत जें मूर्तिकलेचें शास्त्र निर्माण जालां तें मूर्तिकारांच्या अणभवांतल्यान तयार जालां. बृहत्संहितेंत म्हळां, शिल्पशास्त्राचें गिन्यान कलावंताचे पिळगेन पिळगी वाडत गेलां. मानसार नांवाच्या ग्रंथांत शिल्पशास्त्रज्ञांचे परंपरेचेर खूब विस्कटावणी आसा. तातूंत शिल्पलक्षण नांवाचें एक प्रकरण आसून तातूंत शिल्पज्ञाचे विंगड विंगड प्रकार पौराणिक कथांच्या रुपांत सांगल्यात. तातुंतली एक कथा अशी आसा-

ब्रह्मदेव हो शिवाच्या वरदानान महाविश्वकर्मा जालो. ताका चार दिकांनी सूचक अशीं चार तोंडां आशिल्लीं. उदेंत दिकेच्या तोंडाचें नांव विश्वंभू, दक्षिणेच्या तोंडाचें विश्वविध, अस्तंतेच्या तोंडाचें विश्वस्त्रष्टा आनी उत्तर दिकेचें विश्वस्थ आशिल्लें. उदेंत तोंडांतल्यान विश्वकर्मा, दक्षिण तोंडांतल्यान मय, अस्तंत तोंडांतल्यान मनू आनी उत्तर तोंडांतल्यान त्वष्टा हे कलाकार जल्मले.

**इतिहास :** भारतांत मूर्तिकलेचो उगम खूब पुर्विल्ल्या काळासावन म्हळयार ऋग्वेदकाळाच्याय पयलीं मेळटा. वैदिक संस्कृतीचे पयलीं भारताचे अस्तंत आनी वायव्य वाठारांनी, सिंधुसंस्कृती नांवाची एक संस्कृती नांदताली. मोहेंजोदडो आनी हडप्पा हीं तिचीं मुखेल केंद्रां आशिल्लीं. ह्या केंद्रांनी जेन्ना उत्खनन जालें त्यावेळार तातूंत पुराय प्रगत अशा नगरांच्या अवशेशांवांगडाच धातू, अस्थी, हतया दांत, रत्न, कंवची, माती हांचेपसून तयार केल्ल्यो हजारांनी मूर्ती मेळळ्यो. हातुंतल्यो कांय मूर्ती खेळण्यांच्यो आनी कांय मूर्ती पूजेखातीर आशिल्ल्यो. हाचेवयल्यान सिंधुसंस्कृतींतले लोक हे मूर्तिपूजक आशिल्ले अशें समजता. तशेंच हे लोक द्रविड आशिल्ले. पुजा आनी भक्ती हीं द्रविड संस्कृतीचीं खाशेलपणां आशिल्लीं. वैदिक आर्यांनी तांचेर आक्रमण केलें आनी त्या आक्रमणांत द्रविड लोक हारले. ही सिंधुसंस्कृती वैदिक आर्यांच्या आक्रमणामुखार तिगली ना. थयंचे लोक आर्यांच्या चेंपणाक लागून दक्षिणेवटेन झुकले. ते उपरांतच्यो सुमार दोन हजार वर्सांच्या काळांतल्यो मूर्ती उपलब्ध नात आनी त्या काळांतलो इतिहासूय मेळना. सनपयलीं सातव्या-आठव्या शेंकड्यासावन मौर्यकाळाच्या सुरवाती मेरेनच्या काळाक महाजनपदयुग म्हण्टात. बुध्द आनी महावीर हे ह्याच काळांतले धर्मप्रवर्तक आशिल्ले. देव देवतांची वाड ह्याच काळांत जावंक लागली. ह्याच काळांतल्यो ८ ते १० हात उंचायेच्यो पाशाणाच्यो मूर्ती मेळळ्यात. ह्यो मूर्ती चडशो यक्षांच्यो आसात. परखम नांवाचो एक यक्ष सनपयलीं ७व्या शेंकड्यांतलो आसून, भारतीय मूर्तिशिल्पांत हो पुतळो सगळ्यांत पोरनो अशें मानलां. भरहूत हांगा ज्या कलाकारांनी यक्षमूर्ती घडयल्यो तांचीं नांवां सूपवास, विरुदक, सुचिलोम, अजाकालक, सुदर्शन अशीं थंय कोरांतल्यांत. त्या काळांतल्यो कांय यक्षमूर्ती सद्या मथुरा, कलकत्ता हांगाच्या संग्रहालयांनी आसात.

सम्राट अशोकान ह्या देशांत जे तरेचे शिल्पकलेची सुरवात केली तसली शिल्पकला पयलीं खंयच नाशिल्ली आनी फुडेंय जालीना. ताच्या काळांतले हजारांनी मण-वजनाचे आनी ४०-५० फूट उंचायेचे पाशाणस्तंभ भारतांत खूबकडे आसात. त्या खांब्याचेर शींव, हत्ती, बैल हांच्यो मूर्ती बसयल्यात.

मूर्तिकलेच्या इतिहासांत मौर्ययुगाफुडलें शुंभयुगूय खूब गाजलें. ह्या काळांत माती आनी पाशाण ह्या दोगांयच्यो मूर्ती तयार जावंक लागल्यो. शुंभकाळांतल्यो मूर्ती तांच्या भेसावयल्यान वेगळ्यो वळखूंक येतात. मस्तकाचेर फुडले वटेन दोन गांठी आशिल्ली पगडी आनी दोनूय पांयांमदल्यान, धोंतराचो जमनीक तेंकपी त्रिकोनी पदर असो तांचो भेस आसता. देवता आनी यक्ष-यक्षिणी हांच्यो मूर्ती, जैन-बुध्दांच्यो प्रतीकमूर्ती, देवळां आनी स्तूप हांचेर अलंकरण म्हूण कोरांतिल्ल्यो प्रणयनिदर्शक मूर्ती आनी स्तूपांचे देगेवयल्यो मूर्ती अशें ह्या काळांतलें मूर्तीभांडार आसा. ह्या काळांत विष्णु, शिव, ब्रह्मा, बलराम, इंद्र, कुबेर, लक्ष्मी अशो पौराणिक मूर्ती तशेंच बुध्दाचे अनुचर आनी उपासक हांच्यो मूर्ती व्हड प्रमाणांत जावंक लागल्यो.

बुध्दान, आपली मूर्त करची न्हय असो आदेश दिल्ल्यान मूर्तिकलेंत बुध्दाची उपस्थिती सत्री, पदचिन्न, धर्मचक्र, बोधिवृक्ष, पद्म, वज्रासन ह्या प्रतीकांवतीन दाखोवप जाताली.

शुंगकाल आनी ताचे फुडलो कुशाणकाळ हातुंतल्यो यक्ष-यक्षिणींच्यो मूर्ती उगड्यो, अर्द-उगड्यो पूण भावदर्शक अशो जावंक लागल्यो. यक्षिणींचो संबंद झाडांच्यो खांदयो आनी वालींकडे लायिल्ल्यान मूर्तिशास्त्रज्ञांनी अशा यक्षिणींक शालभंजिका अशें नांव दिलां. शुंगकाळांत पाटलिपुत्र, सांची, भरहूत, सारनाथ, कौशांबी, बोधगया, मथुरा, बेसनगर आनी

दक्षिणेंतलें जग्गय्यपेट हीं मूर्तिकलेचीं केंद्रां जाल्लीं. कुशाणकाळांतली मूर्तिकला देशी-विदेशी अशा मिश्र छापाची आशिल्ली. पूण उपरांतची मथुराशैली मात सामकी भारतीय जाली. मथुराकलेंत जैनांचे आनी बौध्दांचे खूब स्तूप निर्माण जाले. यक्षराज कुबेर आनी यक्षिणीच्योय मूर्ती ह्या काळांत खूब तयार जाल्यो. तशेंच तीन वस्त्रां घालपी, उब्यो आनी उंच बुध्दमूर्ती निर्माण जाल्यो. तांच्या फाटल्यान जातककथांचेंय मूर्तिकरण जालें. जैन लोकांनीय तीर्थंकरांच्यो मूर्ती तशेंच चारकोनी खांब्यांच्या आंगांनीय जिनमूर्ती कोरांतल्यो. त्या काळांतल्यो दोन बायलमूर्ती चड उल्लेख करपासारक्यो आसात. एक लक्ष्मी ती लखनौच्या संग्रहालयांत आसून दुसरी प्रसाधिका ती काशीच्या कलाभवनांत आसा. मथुरेची एक सूर्यमूर्तीय पळोवपासारकी आसून ती पयलीं भारतीय सूर्यमूर्ती आशिल्ल्याचें साकार जाल्यो. शैववैष्णव परिवारांतल्यो दुर्गा, पार्वती, महिषासुरमर्दिनी, कुबेर, गणेश, कार्तिकेय, मातृका, लक्ष्मी, ब्रह्मा ह्या मुर्तींनी त्या काळांतली मूर्तिकला समृध्द केली.

इ.स.चो ६वो शेंकडो सोंपच्यावेळार गुप्तयुगाचो अस्त जालो. थंयसावन फुडलीं सयशें वर्सां मध्ययुग ह्या नांवान वळखतात. ह्या काळांत स्वतंत्र मूर्तिंची निर्मिती कमी जावन देवळांच्या अलंकरणमूर्तींक चंवर आयलो. देव-देवतांचे संख्येंतूय खूब वाड जाली. अजंठा, वेरूळ आनी घारापुरी हांगाचीं लेणीं आनी दक्षिणेंतलीं मामल्लपुरम हांगाचीं रथशिल्पां ह्याच काळांतलीं आसात. घारापुरी हांगाय शिव-पार्वतीच्यो खूब सोबीत मूर्ती आसात. मध्ययुगाच्या दुसऱ्या अर्दांत जायतीं नामनेचीं देवळां निर्माण जालीं. ह्या काळांतल्या प्रणयमूर्ती वा शृंगारमूर्ती हांचेखातीर,





मूर्तिकलेचे कांय नमुने

सांगतात. ल्हान पगडी, कुशाण राजाभशेन आंगांत अचकन आनी धोंपरांमेरेन बूट असो तिचो भेस आसा. तिचे कमरेक सुरो आसा.

उपरांतच्या गुप्तयुगांत भारतीय मूर्तिकलेची खूब वाड जाली. ह्या काळांत बौध्द आनी ब्राह्मणी हांच्यो मूर्ती खूब प्रमाणांत घडल्यो. मथुरेच्या संग्रहालयांतली एक बुध्दमूर्ती शांती आनी गांभीर्याचें निदर्शन घडयता. ही मूर्ती, सारनाथ हांगाच्या धर्मचक्रप्रवर्तनांतली बशिल्ली मूर्ती आनी सुलतानगंज हांगाची ७।। फूट उंचायेची ताम्रमूर्ती ह्यो तीनूय बुध्दमूर्ती जगांतल्यो सगळयांत श्रेश्ठ आनी सर्वांगसुंदर बुध्दमूर्ती थारल्यात. देवगढ हांगा ह्या काळांतल्या देवळांचे भग्नावशेश मेळ्ळयात. उदयगिरी हांगा वराह अवताराची एक बळिश्ट मूर्ती आसून, तिणें आपल्या सुळयांचेर पृथ्वी जिखून धरल्या. गंगा-यमुनांच्यो सोबीत मूर्तीय ह्याच काळांत तयार जाल्यो. भूमरा, नचना आनी खोह हांगा कितल्योशोच शिवमूर्ती भुवनेश्वर हांगाचें शिवमंदीर, कोणार्क हांगाचें सूर्यमंदिर, पुरी हांगाचें जगन्नाथमंदिर आनी खजुराहो हांगाच्या कंदरिया महादेवाच्या मंदिराची नामना आसा. ह्या काळांतल्यो चडशो मूर्ती काळया पाशाणाच्यो वा संगमरवरी आसात.

दक्षिण भारतांत, तंजाऊर हांगाचें बृहदीश्वरमंदिर, मदुरेचें मीनाक्षीमंदिर, कर्नाटकांतलें सोमनाथमंदिर, हळेबीड हांगाचें शिवमंदिर आनी ह्या सगळया मंदिरांचे वाठार मूर्तिकलेन समृध्द जाल्यात. दक्षिणेंत, नटराजाच्यो कितल्योशोच कांस्यमूर्ती पळोवंक मेळटात. हांगा बौध्द धर्म पातळचे पयलीं दक्षिणेंतले कलाकार लाकूड, हतया-दांत आनी फातरांपसून मूर्ती तयार करताले. अजंठा हांगाच्या धाव्या लेण्यांतलीं मूर्तिशिल्पांय नमुनेदार आसात. दक्षिणेंतल्या मूर्तिकारांनी तरातरांच्यो बायल-मूर्ती कोरांतल्यात.

चोळ वंशाचे राजवटींत चडशो शैवमूर्ती निर्माण जाल्यो. तशेंच कांय वैष्णव मूर्तीय त्या काळांत तयार केल्यात. तंजाऊरच्या गोपुरांचेर असल्यो मूर्ती मेळटात. बुध्द, बोधिसत्व, मैत्रेय आनी अवलोकितेश्वर हांच्यो मूर्ती नागपट्टम हांगा मेळ्ळयात. तशेंच कर्नाटकांतल्या होयसळांचे राजवटींतूय हळेबीड आनी बेलूर हांगा खूबशीं मूर्तिशिल्पां निर्माण जालीं.

इ.स.च्या १५व्या शेंकड्यांत विजयनगरची मूर्तिकला जल्माक आयली. ह्या काळांतल्यो मूर्ती अलंकृत आसात. पूण चोळांच्या काळांतल्या मूर्तींची सोबीतकाय तातूंत दिसना.

मूर्तींच्या अभ्यासावयल्यान त्या त्या काळांतली धर्मपद्दत, समाजीक चालिरिती, भेस, अलंकार, आयुधां आनी त्या वेळावयले एकंदर जीवन पद्दतीचो तशेंच मोनजात, वनस्पत, भू-गर्भ प्रकार हांचो अभ्यास करपाक मदत जाता.

हालीं उत्सवांच्या निमतान कांय मूर्तिकार गणपती, दुर्गा ह्या देवतांच्यो शेडीच्यो मूर्ती करपाक लागले. ताकालागून हे कलेक परतून उर्बा आयली. आतां गणपति-उत्सव, दुर्गापुजेचो उत्सव हेखातीर हजारांनी मूर्ती तयार जावंक लागल्यो. मातयेच्या मूर्तींक तरातरांचे रंग लावन त्यो ओडलायण्यो करतात.

धातूच्यो मूर्ती करपाची परंपराय खूब पोरनी आसा. सुलतानगंज हांगाची बुध्दमूर्ती आनी मिरपूरखास हांगाची ब्रह्ममूर्ती हीं ते कलेचीं उत्कृश्ट उदाहरणां आसात. ते उपरांतच्या काळांतल्यो पल्लव शैलीच्यो बऱ्योच धातूच्यो मूर्ती मेळटात. चोळांचे राजवटींत कांस्याचे मूर्तिकलेक खूब चंवर आयिल्लो. त्या काळांत देवतांची मिरवणूक काडपाची चाल सुरू जाली आनी तेखातीर धातूच्यो ल्हान आनी सहजतायेन हाताळपाच्यो मूर्ती तयार करपांत आयल्यो. सद्याच्या काळांत धातूच्यो मूर्ती चडशो घरचे देवपूजेखातीरूच करतात. तशेंच हालीं धातूचे पुतळे करपाची चाल सुरू जाल्या. नामनेच्या व्यक्तींचे पुतळे व्हडा संख्येन शारांनी उबारिल्ले दिसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मूर्तिपुजा :** (पळेयात पुजा).

**मूळव्याध :** गुदद्वार, गुदमार्ग हातुंतल्यो रक्तवाहिनी तांच्या पोंतार फुगतात आनी पळोवंक गांठ वा मुळाभशेन दिसतात देखून तांकां मूळव्याध म्हण्टात. फ्रेंच भाशेंत ताका फीग, लॅटीन भाशेंत पाइल्स, ग्रीस भाशेंत हेमोरोहड आनी कोंकणींत बीक अशें म्हण्टात. मूळव्याधाचे मुखेल दोन प्रकार आसतात- १) भितरले आनी २) भायले. तेभायर मिश्र मूळव्याधय आसूंक शकतात.

मूळव्याध जावपाचीं कारणां अशीं आसातः अनुवंशीक प्रवृत्तीक लागून मूळव्याध उप्रासूं येता. मूळव्याध आशिल्ल्याक खुबशे फावट पांयांत गांठल्यो रक्तवाहिनी आसतात. थोड्यांक परसाकडे घट वा चड दिसांनी जावपाची खोड आसता. गरजेशिवाय उठ-सूट कोठो साफ जावंचो देखून जुलाबाचीं वखदां घेवपाची संवय आसता, तशेंच जीर्ण स्वरुपाच्या अपचन पिडेकलागून खूब तेंप अतिसार जायत रावता वा जीर्ण स्वरुपांत मोडशी पडत रावल्यार गुदद्वारांतल्या (Anus) रक्तवाहिनीच्या पोंताचेर पेंच येवन मूळव्याध निर्माण जावंक शकता. खूबशे फावट गुदद्वारांतल्या कॅन्सराचें मूळव्याध सगळयांत पयलें लक्षण आसूं येता. देखून मूळव्याध आशिल्ल्या दर एका पिडीताची गुदद्वारांत बोट चलोवन तपासणी करप (Per Rectal Examination) गरजेचें.




**भितरले मूळव्याध :** १- दावो मुखेल मोड; २- उजवो पश्च मुखेल मोड; ३- उजवो फुडलो मुखेल मोड; ४- दुसरो मोड.

सदांच संडासाचे त्रास आसल्यार (Chronic Constipation) तशेंच जीर्ण स्वरुपांत मूत्रमार्गांत बाधा आसल्यार (Vrethral Stricture, Entarged Pro srate) संडास वा मूतचेवेळार त्रास जातात. हाकालागून गुदद्वाराच्या रक्तवाहिनीच्या पोंतार सतत ताण येवन ल्हव ल्हव तो फुगत वता आनी मूळव्याध जाता. गुरवारपणांत संडास घट तशेंच चड दिसांनी जावप स्वाभाविक आसा. हाका लागून तशेंच वाडट्या गर्भाशयाच्या वजनाच्या पेंचान गुदद्वाराचेर ताण येवन मूळव्याध जातात.

गुदद्वारांतल्यान नळी (Proctoscope) चलोवन पळयतकच मूळव्याध दोळयांक स्पश्ट दिसता. मूळव्याधाची सुवात अदमासान घडयाळीच्या ३,७,११ वरांच्या जाग्यार आशिल्ले भशेन दिसता.

**लक्षणां :** संडासांतल्यान रगत पडप हें सगळयांत पयलें आनी मुखेल लक्षण आसा. सुरवातीक कमी प्रमाणांत आनी तांबडेंगुंज रगत तेंय संडास करचेवेळार पडटा. पूण मूळव्याध भायर सरनात. ही मूळव्याधाची पयली स्थिती मानूं येता. कितलेशेच म्हयने वा वर्सां मूळव्याध

हे स्थितींत उरूं येता.

दुसरे स्थितींत, मूळव्याध भायर सरता पूण फकत संडास करचे वेळारच. पूण आपशींच वा बोटान धुकलल्यार सहज भितरय वतात आनी परतून संडास करीसर भितरच उरतात. तिसरे स्थितींत सदांचें काम करता आसतना मूळव्याध सहज भायर सरता, आनी कितेंय केल्यार भितर वचनात. अशावेळार मूळव्याधींतल्यान थोडें शेंबूड पाझरता वा थंय थोडी खाज येवं येता. संडासावाटेर सतत जळजळ वा आडखळ आशिल्ल्यावरी जाणवता. मूळव्याधींत हेर वायट परिणाम घडून येतकच मात ते दुखूंक लागतात. खूब प्रमाणांत रगताचो स्त्राव वा चड तेंप रक्तस्त्राव जायत जाल्यार पंडुरोग वा रक्तक्षयाची (Anemia) लक्षणां दिसून येतात.

मूळव्याधीचो चड करून दुसरे स्थितींत चड प्रमाणांत रगताचो स्त्राव जाता. भायर सरिल्ल्या मूळव्याधीच्या मूळाभोंवतणी गुदद्वाराच्या स्नायुंचें तीव्रपणान आकुंचन जावन येवन मूळव्याधीक फांस पडिल्लेवरी जाता. १-२ वरांभितर जर भितल्ले मूळव्याध जिरयलेना जाल्यार घुस्पटील्ल्या मूळव्याधीचें रगताचे घट गाठींत रुपांतर जाता.

घुस्मटमार चडकरून परत दुसरे स्थितींत जावंक पावता. मूळव्याध सोंसूनज इतलें दुखत रावतात. पूण गांठ जावन येतकच दूख बरीच कमी जाता आनी स्पर्श केल्यारच दुखता. अशावेळार पिडीत आपल्याक मूळव्याधीचे झटको आयलो अशें समजता. (Acute attack of pile).

तिसरे स्थितींतले मूळव्याधींत आंगार घाव पडूं येता. अतिप्रमाणांत घुस्मटमार जावन रगतपुरवण बंद जाल्यार रगताची गांठ जावन आयिल्लो मूळव्याध कुसून झडटा आनी त्या जाग्यार एक घाव जाता. हो घाव पेखपाक खूब दीस वतात. केन्नाकेन्नाय गांठेल्ल्या मूळव्याधींत पूं जावं येता. भितल्ल्या मूळव्याधीभशेन भायलो मूळव्याधय रक्तगांठीन घट जावं येता. संडासाचे वाटेर परत परत कातरो पडत रावल्यार आनी तो चड तेंप पेखनासतना उरलो जाल्यार ताचेवयर कातीची ल्हान गांठ जावन येता. हाका सेंटीनेल पाईल अशें म्हण्टात. खऱ्या अर्थान हो मूळव्याध आसना.

**उपचार** : संडास मोव तशेंच नित्य जावंचो देखून जुलाबाचीं सौम्य स्वरुपाचीं वखदां (Laxatives) घेवंची पडटात. देखीक - इसाबगोल. मूळव्याध बावन येवंचो तशेंच थंडाय दिसची म्हूण ॲलोपथी, आयुर्वेदीक आनी होमियोपथीक वखदां उपलब्ध आसात. होमियोपथी आनी आयुर्वेदीक पोटांत घेवपाचीं वखदांय आसात. जांकां लागून सुरवातीचे स्थितींत मूळव्याध पुराय बरो जावं येता. पीडीतान व्हड आयदनांत गरम हून उदकांत आपलें कमर बुडून उरता तशें बसून रावप (एक तरेचो शेक मारिल्लेवरी) हाका सीटझ न्हाण म्हण्टात.

**इंजेक्शन उपचार पद्दत**: जे पयले स्थितींतल्या मूळव्याधाक योग्य आलमंड तेलांत ५% फेनोलाचें इंजेक्शन सरळ मूळ व्याधीच्या मूळांत तोंपून मूळव्याध करून उडयतात.

**क्रायोसर्जरी (Crysurgery)** : नायट्रोजन पातळ रुपांत अति थंड (-१९६°c) आशिल्ल्यान ताच्या फकत स्पर्शान मूळव्याध गोठून वता आनी धड जावन येता. ही उपचार पद्दत परत वयले स्थितींत लागू पडटा. आतांमेरेन नमुद केल्ले उपचार शक्य जाले ना वा अपेशी थारले जाल्यार निमणो कायम स्वरुपाचो उपाय म्हळयार शस्त्रक्रिया. आतांमेरेन हो उपाय मूळव्याधींत मुखेल उपाय जावन आसा. तिसरे स्थितींतलो मूळव्याध आसल्यार, हेर उपायांनी गूण न आयल्यार दुसरे स्थितींतलो मूळव्याध, वातड मूळव्याध तशेंच जेन्ना भितल्ल्यापरस भायलो मूळव्याध व्हड आसता तेन्ना शस्त्रक्रिया करची पडटा.

- डॉ. आनंद हळर्णकार

**मृच्छकटिक** : हें एक संस्कृत नाटक. कवी शूद्रक हाणें हें धा अंकीं नाटक इ.स. पयलीं दुसरो शेंकडो ते इ.स. चो धावो शेंकडो ह्या काळांत केन्नातरी बरयलें.

ह्या नाटकांत दोन कथानकां आसात. पयलें कथानक चारुदत्त आनी वसंतसेना तशेंच शर्विलक आनी मदनिका हांची मोगाची कथा सांगता. दुसरें कथानक, आर्यक नांवाच्या गवळयाच्या भुरग्याक गादयेर बसोवपाखातीर जाल्ली राज्यक्रांती सांगता. ह्या नाटकाचें थोडक्यांत कथानक अशें आसा-

उज्जैन नगरींत चारुदत्त नांवाचो एक गरीब पूण हुशार आनी सगळया गुणांनी बरो असो एक मनीस रावता. एका तेंपार गिरेस्त आशिल्लो चारुदत्त उपरांत आयिल्ले गरिबींत लेगीत तो धीरान आनी नीतीन वागता तें पळोवन उज्जैन नगरांतली एक गणिका वसंतसेना ताचेर भाळटा. चारुदत्ताकडे इश्टागत जोडपाखातीर कितेंय निमित मेळचें म्हूण वसंतसेना सांजवेळची तागेर वचपाक भायर सरता. वाटेंत मूर्ख राजशालक शकार तिचे फाटल्यान लागता. वसंतसेना ताका चुकयता आनी चारुदत्ताच्या घरांत भितर सरता. आपल्या आंगावयले सगळे अलंकार काडून चारूदत्ताकडे दिता आनी चोरांक लागून आपल्याक भिरांत दिसता तेखातीर हे अलंकार ताका सांबाळून दवरूंक सांगता. वसंतसेनेचे विनंतीक लागून चारूदत्त ते अलंकार दवरून घेता. पूण एके राती शर्विलक नांवाचो चोर ते चोरता. हो शर्विलक म्हळयार वसंतसेनेची दासी मदनिका हिचो मोगी. शर्विलक ते अलंकार व्हरून मदनिकेक दिता तेन्ना ते अलंकार वसंतसेनेचे म्हूण मदनिका वळखता. ती ते सगळे अलंकार वसंतसेनेक परतून दिवपाक सांगता. हें सगळें उलोवप वसंतसेना आयकता. जेन्ना शर्विलक सगळे अलंकार वसंतसेनेक दिता तेन्ना वसंतसेना त्या दोगांचेंय लग्न करून दिता. इतले मजगतीं चारुदत्त, आपले बायलेचो

रत्नहार वसंतसेनेकडे धाडून दिता आनी आपूण जुगारांत तुजे अलंकार हारलो म्हूण हो रत्नहार धाडटां म्हूण तिका रकाद दिता. हो रकाद घेवन चारूदत्ताचो इश्ट मैत्रेय (विदूशक) येता. उपरांत वसंतसेना आपले अलंकार आनी तो रत्नहार घेवन चारूदत्तागेर वता. ते राती ती तांगेरूच रावता. दुसऱ्या दिसा चारूदत्त पुष्पकरंडक नांवाचे बागेंत वता आनी आपल्या गाडीवाल्याक वसंतसेनेक घेवन येवपाक सांगता. गाडीवालो गाडी घेवन चारुदत्ताच्या दारांत रावता. त्याचवेळार गाडयांची गर्दी जाल्ल्यान राजशालक शकार आपली गाडी चारूदत्ताचे गाडयेफाटल्यान लायता. वसंतसेना शकाराचे गाडयेक, चारुदत्ताची गाडी समजून ते गाडयेंत बसता. हाचेपयलीं चारुदत्ताचो भुरगो रोहसेन, आपल्याक भांगराची गाडी जाय म्हूण रडटा तेन्ना वसंतसेना ताका भांगराची गाडी करपाखातीर आपल्या आंगावयले अलंकार दिता.

आर्यक नांवाचो एक गवळयाचो पूत उज्जैनचो राजा जातलो अशें कोणे एका सिध्द पुरसान भविश्य केल्ल्यान, उज्जैनचो राजा पाठक हो ताका बंदखणींत दवरता. पूण इश्टांच्या आदारान तो सुट्टा आनी चारुदत्तागेर लिपून बसता. चारुदत्ताचो गाडीवान जेन्ना दारांत गाडी लायता तेन्ना आर्यक ते गाडयेंत बसता. गाडयांच्या ह्या बदलाक लागून वसंतसेना शकारागेर आनी आर्यक चारुदत्ताम्हऱ्यांत पावता. तेन्ना चारूदत्त आर्यकाक थंयसावन पळून वचपाक आदार करता.

चारुदत्त निराश मनान जेन्ना घरा परतता तेन्ना ताका वसंतसेनेन आपल्या पुताक भांगराचे अलंकार दिल्ल्याचें कळटा. तो ते अलंकार वसंतसेनेक परत दिवपाखातीर मैत्रेयाक दिता.

वसंतसेना जेन्ना शकारागेर पावता तेन्ना शकार तिका वश करपाचो यत्न करता. पूण ती आपल्याक बदना हें कळकटच तिचो गळो दामता. वसंतसेना थंय घुंवळ येवन पडटा. ती मेली अशें समजून शकार थंयसावन पळ काडटा आनी चारुदत्तान भांगराखातीर तिका मारली असो आरोप करता. हेवटेन मैत्रेय वसंतसेनेचे अलंकार तिका पावोवपाक येता तेन्ना चारूदत्ताक न्यायसभेंत धरून व्हेलो हें ताका कळटा. मैत्रेय ते अलंकार घेवन तसोच चारुदत्ताकडे वता. ते अलंकार पळोवन चारुदत्ताआड पुरावो मेळटा म्हूण ताका प्राणदंडाची सजा फर्मायतात.

हेवटेन वसंतसेना शुध्दीर येवन चारुदत्तागेर वतना वाटेंत तिका चारूदत्ताक सुळार दिवपाची तयारी दिसता. ती धांवत चारूदत्ताम्हऱ्यांत वता. तिका जिती पळयतकच चारूदत्त निर्दोश थारता. त्याचवेळार आर्यक, पालक राजाक मारून, उज्जैनचो राजा जाता आनी चारूदत्ताक सोडटा.

संस्कृत कवी भास हाणें बरयल्ल्या एका नाटकाचें नांव चारूदत्त अशें आसा. दोगांतूय बरेचकडे साम्य दिश्टी पडटा.

मृच्छकटीक नाटकाचे अणकार इंग्लीश, जर्मन, फ्रेंच ह्या परकी भाशांनी तशेंच मराठी आनी हेर देशी भाशांनीय जाला.

भास, संवाद, प्रसंग आनी कल्पकता हांचे नदरेन ही साहित्यकृती उत्तम आसा. तत्कालीन समाजीक, संस्कृतीक आनी राजकीय परिस्थितीचें तातूंत विश्लेशणात्मक वर्णन सुरेलपणान मांडलां.

- कों. वि. सं. मं.

**मृत्युंजय :** शिवाचें एक नांव आनी शांत रूप. 'मृत्युं जयतीति मृत्युंजयः' अशी ह्या शब्दाची व्युत्पत्ती आसा. शिव हो निरुपाधिक परब्रह्मस्वरूप आशिल्ल्यान तो केन्नाच जल्मना आनी मरना. तशेंच 'मृर्त्युयस्योपसेचनम्' म्हळयार मृत्यू हें शिवाचें तोंडी लावणें आसा. त्या शिवतत्त्वाचें चिंतन करपी आनी त्या तत्त्वाक जाणपी तत्त्ववेत्तोय ह्या मरणाच्या विळख्यांतल्यान सुट्टा, म्हळयारूच मृत्युंजय जाता. अज्ञानरुपी मरणाक जिखपी समर्थ अशें गिन्यान दिवपी जो गुरू, तोय मृत्युंजयच आसा. ते नदरेन लेगीत शिव हो मृत्यूंजयच आसा. ताका आदिगुरू अशें म्हळां. तेखातीर ज्या कोणाक मरणाचेर जैत मेळोवपाचें आसा, ताणें शिवाची उपासना करची अशें सांगलां.

रोग, पीडा आनी अपमृत्यू पयस करपी मृत्युंजयाचो वैदिक मंत्र असो-

*त्र्यम्बकं यजामहे सुगन्धिं पुष्टिवर्धनम् ।*

*उर्वारुकमिव बन्धनान्मृत्योर्मुक्षीय मामृतात् ।।*

**अर्थ -** कीर्तिमान आनी महाशक्तिशाली त्र्यंबकाचें म्हळयार रुद्राचें आमी यजन करतात. हे रुद्रा पिपरी देंठासावन खुंटची, तशेंच मरणासावन आमकां पयस कर पूण अमरत्वासावन पयस दवरूं नाका.

तीन दीस उपास करतकच दुदांत शिजयल्ल्यो चरूच्यो शंभर आहुत्यो ह्या मंत्रान शिवाक दिल्यार दीर्घायुश्य आनी शतायुश्य लाबता, अशें ऋग्विधानांत सांगलां. ह्या मंत्राचे सुरवातीक "ॐ हौं जूं सः भूर्भुवः स्वः" आनी शेवटाक "स्वर्भुवः भूः सः जूं हौं ॐ" हीं बीजां लायल्यार हो पन्नास अक्षरी मंत्र जाता. वामदेव, कहोळ आनी वसिष्ठ हे ताचे ऋषी; पंक्ती, गायत्री आनी अनुष्टुभ् हे छंदः सदाशिव महामृत्युंजय ही देवता; ऱ्हीं ही शक्त आनी श्रीं हें बीज आसा. ह्या मंत्राचो एक लाख जप करचो आनी ताच्या धाव्या वाट्यान बेलफळ, तिल, पायस, सांसवां, दुग्ध, धंय, दुर्वा तशेंच वड, पळस आनी चांफो ह्या रुखांच्यो समिधा हांचें हवन करचें. अशें केल्ल्यान मंत्र सिध्द जाता. ह्या मंत्राचें तपशिलवार विधान मंत्रमहोदधींत दिलां.

- कों. वि. सं. मं.

**मृत्युंजयस्वामी :** (१५७५-१६५०). एक मुसलमान मराठी संतकवी. हाचें मूळ नांव शहा मुंतोजी ब्राह्मणी अशें आशिल्लें. मुंतोजी बामणी, शहा मुतबाजी कादरी ह्या नांवांनीय ताची नामना आसा. बीदरच्या बहमनी राज्यांतल्या राजघराण्यांत ताचो जल्म जालो. परंपरिक चरित्रकथेंत ताका बेदरचो बादशहा मानतात.

मुंतोजी ब्रह्मणी बेदर हांगा राजविलास भोगतना ताचे जीणेंत बदल जावपी एक घडणूक घडली. एक दीस मुंतोजी आपले बायलेवांगडा, माळयेर बसून केळीं खातालो आनी केळयांच्यो साली सकयल उडयतालो. इतल्यान थंय एक भिकारी आयलो आनी त्यो साली आवडीन खावपाक लागलो. तें पळोवन राजाक तिडक माल्ली. ताणें आपल्या शिपायाक सांगून त्या भिकाऱ्याक यथेश्ट बडयलो. पूण मार खातना लेगीत तो भिकारी व्हडा व्हडान हांसपाक लागलो, तें पळोवन राजाक अजाप जालें. ताणें हेविशीं भिकाऱ्याक विचारलें, तर तो भिकारी रडपाक लागलो. राजा विचारांत पडलो आनी भिकाऱ्याक ताच्या हांसपा-रडपाचें कारण विचारूंक लागलो. निमाणें भिकाऱ्यान सांगलें फकत साली खाल्ल्यार तुवें म्हाका इतली सजा केली, तू तर केळयाचो गर खाता तेन्ना तुका फुडें कितली सजा जातली, ह्या विचारान म्हाका हासूंक आयलें. पूण तुजी काकळूत करून रडुंकूय आयलें. भिकाऱ्याचीं हीं उतरां आयकून राजा विचारांत पडलो आनी ताणें आपल्या सगळया वैभवाचो त्याग करून योगी जालो. उपरांत राजान मेळटा त्या साधू-संन्याशाक ईश्वरप्राप्तीचो मार्ग विचारलो. मुसलमान महंतांनी ताका नमाज घालपाक, रोजा करपाक सांगलें, तशेंच हिंदू साधूंनी ताका पंढरीचीवारी करपाक सांगलें. मुंतोजी उपरांत पंढरीक, वैष्णवांचे मांदियाळींत सामील जालो.

आनंद संप्रदायांतलो सहजानंद हो ताचो गुरू. सहजानंदानूच ताका गुरूपदेश दिवन ताचें नांव मृत्युंजय अशें दवरलें आनी ताका कल्याणी लागसार नारायणपूर हांगा रावपाक सांगलें. नारायणपूर हांगा कुटी बांदून रावतकच ताचे जीणेंत खूब चमत्कार जाले. थंयच ताका मरण आयलें. ताच्या मरणाउपरांत मुसलमानांनी ती सुवात आपल्या ताब्यांत घेतली. दर वर्सा मुसलमानी कालगणने प्रमाण २१ रमझाना दिसा थंय ताच्या नांवान उरूस भरता. ताचे हे समाधीक मूर्तजा कादरी का दर्गा ह्या नांवान वळखतात.

ज्ञानसागरानंद हें ताचें सांप्रदायिक नांव. आनंद संप्रदायाची दिक्षा घेवंचे पयलीं तो सूफी संप्रदायांतले कादरी शाखेचो अनुयायी आसुंये, असो एक तर्क आसा. तशेंच 'ज्ञानसागर अय्या' ह्या नांवांनूय ताका वळखतात. ताका लागून कांय अभ्यासक लिंगायत संप्रदायाकडेनय ताचो संबंद जोडटात. मृत्युंजयस्वामीच्या ग्रंथांचेर मुकुंदराजाच्या विवेकसिंधूचो परिणाम स्पश्टपणान दिशिल्ल्यान हे ग्रंथ मुकुंदराजाचे परंपरेंतले आसात, अशें मानतात. मृत्युंजयस्वामीच्या नांवाचेर आसात ते ग्रंथ अशे-सिध्दसंकेतप्रबंध, अनुभवसार वा अमृतसार, अद्वैतप्रकाश, स्वरुपसमाधान, प्रकाशदीप, जीवोध्दरण, अमृतानुभव पंचीकरण, गुरुलीला. तशेंच ताचीं कांय पदां आनी अभंगूय आसात.

पंचीकरण हो ग्रंथ ताणें दख्खनी हिंदींत बरयला. मृत्युंजयाची भास संस्कृतप्रचुर आनी सालंकृत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मेंडेल, ग्रेगोर योहान :** (जल्म : २२ जुलय १८२२, हाइनझेनडॉर्फ; मरण : ६ जानेवारी १८८४, बरनॉ).

ऑस्ट्रियन सैमीक विज्ञानवेत्तो आनी सेंट ऑगस्टीन पंथांतलो ॲबट (मठ मुखेल). सजीवांच्या आनुवंशिकतेची विज्ञानीक उपपत्ती मांडून ताणें आर्विल्ले आनुवंशिकतेच्या शास्त्राची बुन्याद घालपाचें मोलादीक कार्य केलें.

ऑल्मीट्झ हांगाचे तत्त्वज्ञानाचे संस्थेंत दोन वर्सां शिक्षण घेतकच १८४३ त तो मोरेव्हियांतल्या ब्रुनो हांगाच्या सेंट ऑगस्टीन पंथाच्या मठांत गेलो. थंय धर्मशास्त्रावयलें शिक्षण घेवपावांगडाच ताणें कृषी, फळांची जतनाय आनी द्राक्ष वेलीची लागवड ह्या विशयांचो अभ्यास केलो. १८४७ त ताका धर्मगुरूपदाची दीक्षा दिली आनी थोडो तेंप ताणें पोरन्या बरनॉ मठांत व्हिकार म्हूण काम केलें. इनायमो हांगाचे माध्यमिक शाळेंत ताणें १८४९ सावन कांय काळ ग्रीक भास आनी गणित ह्या विशयांचो बदली शिक्षक म्हूण अध्यापन केलें. १८५१-५३ ह्या काळांत मठंमुखेल्यान मेंडेल हाका व्हिएन्ना विद्यापिठांत भौतिकशास्त्र, रसायनशास्त्र, गणित, वनस्पतीविज्ञान आनी प्राणीविज्ञान ह्या विशयांच्या अभ्यासाखातीर धाडलो. १८५४ त तो बॅरनॉ हांगा परतलो आनी थंयच्या तंत्रीक विद्यालयांत ताणें सैमीक विज्ञानाचें १८६८ मेरेन अध्यापन केलें. पूण शिक्षकी वेवसायाची परवाना परिक्षा उत्तीर्ण जावपाक ताका निमणेमेरेन यश आयलें ना.

मेंडेल हाणें जेन्ना आनुवंशिकतेचेर १८५६त आपलें काम सुरू केल्लें, तेन्ना अनुहरणाचें पिळग्यान पिळग्यो आचरण कशें जाता, हें समजुपा खातीर किदें करूंक जाय, हाचेविशीं ताची भुमिका स्पश्ट आशिल्ली. एकाच वेळा एकाच लक्षणाचें अनुहरण कांय पिळग्यांमेरेन कशें जाता, हें पळेतकच दोन वा तीन लक्षणांच्या अनुहरणांचो प्रस्न ताणें हाताळ्ळो. ह्या कामांत ताका बाकीच्यांक मेळूंक नाशिल्लें तें यश मेळ्ळें. १८६२ त बॅरनॉ हांगा ताच्या पालवान शास्त्रीय विचारांचें दिवप-घेवप करपाखातीर 'नॅचरल सायन्स सोसायटी' स्थापना केली.

८ फेब्रुवारी १८६५ दिसा नॅचरल सायन्स सोसायटीमुखार निबंद वाचतना 'वनस्पती संकर' हेंच आपलें संशोधन क्षेत्र आशिल्ल्याचें ताणें स्पश्ट केलें. मेंडेल हो मुदलांत तसो शास्त्रज्ञ नाशिल्लो. त्या वेळावयलो जीवशास्त्रज्ञ डार्विन हाच्या 'ओरिजीन ऑफ स्पीशीज' ह्या ग्रंथान तो

प्रभावीत जाल्लो. द व्हरीस, कॉरेन्स आनी चेर्माक हे वनस्पतीशास्त्रज्ञ अनुहरणाचेर उपरांत स्वतंत्रपणान संशोधन करताले आनी तांकां मेंडेल हाचेप्रमाणूच फलितां मेळिल्लीं: ह्या तिगांनीय, आनुवंशिकतेचे आदारी नेम सिध्द केल्ल्याचें श्रेय मेंडेल हाका दिलें म्हूण ताका आर्विल्ले आनुवंशिकतेचो जनक अशें मानतात.

मेंडेलान ताचे संकर प्रयोग वेगवेगळीं सात लक्षणां (उंच वा खुजेपणा, बियांचो रंग आनी तांचो आकार, कांडावयल्या फुलाची सुवात आदी) दाखोवपी वाटाण्याच्या प्रकारांचेर केले. प्रयोगांतल्या निश्कर्शांची विस्कटावणी वनस्पत आनी मोनजात हांच्यांतल्यान एके पिळगेंतल्यान दुसरे पिळगेंत लक्षणांचें अनुहरण कारकांचे जोडयेवरवीं जाता, ह्या आदाराचेर ताणें केलां. हे विशीं जे नेम ताणें सिध्द केल्ले, तांकां 'मेंडेल नेम' म्हण्टात. जरी आनुवंशिकीत ताचेउपरांत उपाट उदरगत जाली, तरी हेच नेम ह्या शास्त्राक बुन्यादी थरल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**मेंढी** : बोकडेच्या कुळांतली एक मोनजात. मेंढी ही काळशा रंगाची आनी बोकडे परस मात्शी धाकटी आसता. तिच्या आंगार लांब लोकर आसता.

खूब पुर्विल्ल्या काळासावन धनगर लोक मेंढ्यांक पोसतात. त्यो पोसप आनी तांचें संवर्धन करप हें हिंदुस्थानांत खूब पुर्विल्ल्या काळासावन चालू आसा. ऑस्ट्रेलिया, न्यूझीलंड, दक्षिण अमेरीका, दक्षिण आफ्रिका, इंग्लंड, चीन, इराण, रशिया, तुर्कस्थान इजिप्त, उत्तर अमेरिका, स्पेन, पुर्तुगाल ह्या प्रांतांत मेंढ्यो व्हडा प्रमाणांत पोसतात.

भारतांतल्या तमिळनाडू, पंजाब, ओरिसा, बिहार या भागांत मेंढ्यो चड प्रमाणांत पोसप जालें तरी भोवतेक सगळयाच राज्यांनी त्यो थोडे भोव प्रमाणांत आसात.



ह्या मेंढ्यांच्यो कांय जाती आसात. देखीक- हरणार्थ, काश्मिरी, डुंबा (काबुली) पंजाबी, राजपुताना, कोईमतुरी, म्हैसुरी.

मेंढी फळ्ळयाउपरांत ५ म्हयन्यांनी वियेता आनी ती एकाच कोकराक (पिलाक) जल्म दिता. कांय जातीच्यो मेंढी मात एकेच फावट दोन कोकरांक जल्म दिता.

मेंढी पेंड, हरभरो, मको, गवांचो भुसो, कड्डुणाचो भूस, पीठ, पालो अशे तरेची खावड खाता.

मेंढ्यांच्या लेणयां-मुताचो शेताक सारें म्हूण वापर करतात. तांच्या मासांचो खावपाक उपेग जाता आनी तिचेपासून लोकरय मेळटा. वर्सांतल्यान मार्च आनी ऑक्टोबरांत तांची लोकर कापतात. हे लोकरीसावन बनात सतरंज्यो, गालीचे, कांबळी, चादरी, घोड्याचे फाटीर घालपाक नमदा तयार करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मे** : ग्रेगोरीयन कॅलेंडरांतलो पांचवो म्हयनो. मेय (मिअ) हे खोशयेचे आनी उदरगतीचे रोमन देवतेवयल्यान ह्या म्हयन्याक मे हें नांव पडलां आसुंये. सुरवेच्या रोमन पंचांगांत हो तिसरो म्हयनो आशिल्लो. ज्यूलियस सीझरच्या काळांत पंचागांत जाल्ले सुदारणेच्या वेळार ह्या म्हयन्याक पांचवो क्रमांक दिलो. सुरवातीकसावन ह्या म्हयन्याक एकतीस दीस आसात. भरपूर पीक येवचें म्हूण ह्या म्हयन्यांत मेय देवतेची पुजा करतात आनी तिका निवेद्य ओंपतात. तशेंच वसंत ऋतूच्या खाशेल्या सुवाळ्या निमतान १ मे दिसा परब मनयताले. ह्या म्हयन्याचें रत्न पांचू, रास वृषभ वा मिथुन, तशेंच फूल हॉथॉर्न आनी लिली अशें मानतात. रोमन कॅथलिक चर्च हो पुराय म्हयनो कुमारी मॅरीचो मानताले. इंग्लंडांत मे-पोल नांवाचो ऊंच खांबो उबारून, तो पानां, फुलां आनी रंगीत फितांनी सजोवन ताचे भोंवतणी मे राणी म्हण वेंचिल्ल्या सुंदर चलयेवांगडा नाच करपाची चाल आसा. रशिया आनी हेर साम्यवादी देशांत १मे हो कामगार दीस म्हूण पाळटात. अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत मे म्हयन्यांतलो दुसरो आयतार राश्ट्रांतल्या आवयांच्या भोवमानाखातीर मातृदिन म्हूण पाळटात. १ मे १९६० दिसा आदलें द्विभाशीक मुंबय राज्य बरखास्त जावन महाराष्ट्र आनी गुजरात हीं स्वतंत्र राज्यां स्थापन जाल्ल्यान महाराष्ट्रांत १ मे हो महाराष्ट्र दिन म्हूण मनयतात. हिंदू पंचांगाप्रमाण हो म्हयनो सादारणपणान चैत्र-वैशाख ह्या चांद्रमासांत येता.

इ. स. १८५७ च्या स्वातंत्र्य संग्रामाची सुरवात, मौंट एव्हरेस्टाचेर मनशाचें पयलें वचप, जवाहरलाल नेहरू आनी कर्मवीर भाऊराव पाटील हांची पुण्यतीथ, स्वातंत्र्यवीर सावरकराची जयंती आदी घडणुको ह्या म्हयन्यांत घडिल्ल्यो. गोंय धरून भोवतेक दक्षिण भारताखातीर मे म्हयनो हो शाळा-कॉलेजीखातीर सुटयेचो म्हयनो आसता.

३० मे १९८७ ह्या दिसा गोंयांक घटक राज्य दर्जो मेळ्ळया उपरांत दर वर्सा तो दीस घटक राज्य दीस म्हूण मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मेकॉले, टॉमस बॅबिंग्टन :** (जल्मः २५ ऑक्टोबर १८००; मरण : २८ डिसेंबर १८५९).

नामनेचो इंग्लिश इतिहासकार आनी निबंदकार. ताचें उंचेलें शिक्षण कॅंब्रिजाच्या ट्रिनिटी कॉलेजांत जालें. थंय ताणें एक हुशार विद्यार्थी म्हूण नामना जोडली. तशी ताणें कायदयाची पदवी घेतली. पूण वकिलीचो वेवसाय ताणें केन्नाच केलो ना. १८२३ सावन क्वार्टली रिव्ह्यू, एडिंबरो रिव्ह्यू आनी हेर नेमाळयांतल्यान तो निबंदलेखन करपाक लागलो. व्हड आंग्ल महाकवी मिल्टन हाचेवयल्यान निबंदान एडिंबरो रिव्ह्यूंत आपल्या लिखाणाक मेकॉलेन सुरवात केल्ली. नागरी आनी बौध्दिक स्वातंत्र्याचो खांपो पुरस्कर्तो आनी जुलूमशाहीचो कट्टर विरोधी हें मिल्टनाचें पडबिंब मेलॉलेन ह्या निबंदान उबें केल्लें. हो निबंद लोकांक खूब आवडिल्लो आनी ताची खूब तोखणाय जावपाक लागली. हाका लागून मेकॉले ह्या नेमाळयाचो मुखेल लेखक जालो. एका व्हड निबंदकाराक फावो आशिल्ले साबार गूण मेकॉलेंत आशिल्ले. ताची शैलीय बरी आशिल्ली. तो बऱ्यांतलो बरो संभाशकूय आशिल्लो. ताच्या ह्या गुणांक लागून ताका राजकीय क्षेत्रांत प्रवेश मेळ्ळो. १८३०त ताका इंग्लंडाच्या पार्लमेंटांत प्रवेश मेळ्ळो. १८३२त 'सेक्रेटरी ऑफ द बोर्ड ऑफ कंट्रोल फॉर इंडिया' ह्या पदाचेर ताची नेमणूक जाली. भारताविशीं विंगड विंगड गजालींचेर ताणें रितसर अभ्यास केल्लो. मुखार भारताच्या 'सुप्रिम काउन्सिल' हाचो वांगडी म्हूण १८३४ ते १८३८ मेरेन भारतांत रावलो. भारतांत आसतना ताणें भारतीय लोकांच्या शिक्षणाखातीर एक शैक्षणिक वेवस्था निर्माण केली. तशेंच भारताखातीर फौजदारी कायदयाची एक संहिताय तयार केली.

मेकॉलेन भारतीय लोकांच्या शिक्षणाखातीर इंग्लीश माध्यमाचो पुरस्कार केल्लो. ह्या ताच्या मताक भारताचो व्हड समाजसुदारक राजा राममोहन रॉय हाणेंय तेंको दिल्लो. मेकॉले भारतांत आयिल्लो तेन्ना ब्रिटीश राजवटीक थिरपण आयिल्लें. भारतासारक्या भोवभाशिक देशांतल्या कारभारांत एकचार फकत इंग्लीश भाशा हाडूंक शकता अशें कांय ब्रिटीश राज्यकर्त्यांक दिसतालें. ह्या देशांतली जनता आनी ते जनतेचेर राज्य करपी आनी हांच्यांतलो दुभाशांचो एक वर्ग इंग्लीश शिक्षणातल्यान तयार जातलो, हे लोक रगतान आनी वर्णान भारतीय आसले, तरी तांची आवड, तांचीं मतां आनी तांची विचारसरणी इंग्लीश आसतली अशी मेकॉलेची अपेक्षा आशिल्ली. नव्या, उच्च शिक्षणाचें माध्यम म्हूण देशी भाशांचो साप उपेग जायना अशें ताचें मत आशिल्लें. ७ मार्च १८३५ त गव्हर्नर जनरल विल्यम बेंटिक हाणें इंग्लीश शिक्षणाचो पुरस्कार करपाखातीर फर्मान काडलें आनी अशे रितीन मेकॉलेचे विचारसरणेक जैत मेळ्ळें. भारतांतल्या फौजदारी कायदयाचे संहितेचो मेकॉले हो मुखेल शिल्पकार आशिल्लो.

इंग्लंडाक परत गेल्याउपरांत एडिंबरोचो प्रतिनिधी वांगडी म्हूण पार्लमेंटाचेर ताची वेंचणूक जाली. १८३९ ते १८४१ ह्या काळांत युध्दसचिव म्हूण ताची नेमणूक कॅबिनेटांत केल्ली. पेमास्टर जनरल ह्या पदाचेर ताणें काम केल्लें. उपरांत तो राजकारणापरस लिखाणांतूच चड रमूंक लागलो. वॉरन हेस्टिंग्ज, रॉबर्ट क्लाइव्ह, ॲडिसन हांचेर ताणें निबंद बरयले. पूण ताणें बरयल्लो इंग्लंडाचो इतिहास हिस्टरी ऑफ इंग्लंड, हें ताचें मुखेल वाङ्मयीन कार्य आशिल्लें. ताणें रचिल्लो कवितांचो झेलो 'लेज ऑफ एन्शंट रोम' ह्या नांवान प्रसिध्द आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मेक्सिको :** युनायटेड स्टेट्स ऑफ मेक्सिको. उत्तर अमेरिकेंतलो सामको दक्षिणेकडलो देश. भोंवतणची वसती आशिल्ल्या जुंव्यांसयत मेक्सिकोचो वाठार १९,५८, २०१ चौ. किमी. लोकसंख्या ९,८५,५२,७७६ (१९९१). १४° ३२' उत्तर ते ३२° ४३' उत्तर अक्षांश आनी ८६° ४२' अस्तंत ते ११८° २२' अस्तंत रेखांश असो ताचो विस्तार आसा. वायव्य-आग्नेय दिकेन आशिल्ल्या ह्या देशाचे उत्तरेक अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, आग्नेयेक बेलीझ आनी ग्वातेमाला हे देश आसून, उदेंतेक मेक्सिकोचें आखात आनी कॅरिबियन दर्या (अटलांटिक महासागर) आनी अस्तंतेक तशेंच दक्षिणेक पॅसिफिक महासागर (कॅलिफोर्नियाचें आखात) आसा. कर्कवृत्त देशाच्या मदल्यान वता. मेक्सिको शार ह्या देशाची राजधानी आसा. देशाची १३,८५७ किमी. लांबायेची शीम आसून पॅसिफिक महासागरालागसार आशिल्ल्या रेव्हीया हीहेदो चोम्यांतल्या जुंव्यांचोय ह्याच देशांत आस्पाव जाता.

रिओ ग्रांदे हे न्हंयेचें स्थानिक नांव रिओ ब्राव्हो देल नॉर्ते अशें आसून ही मुखेल न्हंय देशाचे उत्तर शिमेवयल्यान क्रांवत वचून वायव्य-आग्नेय दीकेन मेक्सिकोच्या आखाताक मेळटा. तेचभशेन देशांत पापाल्वापाम, लेर्मा, सांत्यागो, ऊसूमासींता, ग्रीहावा, बाल्सास, पानूको, सोतो ला मारीना ह्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो आसात. देशाच्या मदेगाक पयलीं चिखलाचीं पांच व्हड तळीं आशिल्लीं. तातूंत तेस्कोको हें सगळयांत व्हड आशिल्लें. पूण उपरांत हीं तळीं पुरोवन थंय शारां वसयलीं. हालीस्को राज्यांत, चापाला हें देशांतलें १,६८० चौ. किमी. चें सगळयांत व्हड तळें आसा. भूंय रचणुकेचे नदरेन देशाचो मध्यवर्ती ऊंच पठारी प्रदेश 'मेसेटो सेंट्रल' हो म्हत्वाचो आसा. तशेंच पठाराच्या उदेंत, अस्तंत आनी दक्षिण भागांतल्यो ऊंच दोंगरावळी, उदेंत आनी अस्तंत दर्यादेगांचो प्रदेश आनी उत्तरेकडलो पडंग रेंवाट प्रदेश अशे भाग पडटात. मेसेटो सेंट्रल ह्या प्रदेशाची ऊंचाय दर्या-तळासावन ९०० ते १,२०० मी. मेरेन मेळटा. देशाच्या मदेगाक हाची उंचाय २,१०० ते २,४०० मी. मेरेन वाडत वता. ह्याच पठारी प्रदेशाच्या उदेंत आनी अस्तंत भागांत उत्तर-दक्षिण दिकेन पातळिल्ल्यो दोंगरावळी आसात. अस्तंतेकडली सिएरा माद्रे ऑक्सीडेंटाल ही दोंगरावळ सुमार १६० किमी. लांबायेची आनी ३,०५०मीटरां परस चड उंचाय आशिल्ल्या तेमकांची आसा. उदेंतेवटेनची

सिएरा माद्रे ओरेंटाल ही दोंगरावळ त्यामानान कमी उंचायेची आनी येरादारीचे नदरेन बरी आसा. हे दोंगरावळींतलीं कांय ज्वालामुखी तेमकां ५००० मीटरांपरस चड उंचायेचीं आसून ओरिसाबा (५६३९मीटर), पोपकॅतपेतल (५,४६५मीटर), ईस्तासीवाताइल (५,२३०मीटर) हीं तातुंतलीं मुखेल तेमकां आसात. देशाच्या वायव्य भागांतले बाहा द्वीपकल्प, उत्तरेकडलो सनॉरा हो रेंवाट प्रदेश, हे भूभाग खाशेले आसात.

हवामान आनी भूंय रचणुकेचे तरेकवार रचनेप्रमाण हांगाच्या हवामानांत आनी दक्षिणेकडल्या दोंगराळ प्रदेशांतल्या हवामानांत खूब बदल दिसून येतात. यूकातान द्वीपकल्प, किनारी वाठारांतलीं मैदानां, दक्षिणेकडलो कमी उंचायेचो प्रदेश ह्या भागांत उश्ण प्रदेशीय आनी कांय भागांत उपोश्ण प्रदेशीय हवामान मेळटा. ह्या भागांतलें सरासरी तापमान २५° ते २७° से. आसता. शिंयाळ्यांत तें उण्यांत उणें १६° से आसता तर गिमांत चडांतचड ४९° से. मेरेन वता. मध्यभागांतल्या दोंगराळ प्रदेशांत मात त्यामानान हवामान थंड आसता. शिंयाळ्यांत दोंगरांचेर बर्फ पडटा. मेक्सिकोच्या उत्तर भागांत पावसाचें प्रमाण खूब कमी आसता. दोनूय किनारी प्रदेशांनी वर्सुकी सरासरी ९९ ते ३००सेंमी. पावस पडटा आनी दक्षिणेकडल्या ताबास्को आनी चीआपास राज्यांत ५००सेंमी. मेरेन पावस पडटा. दर्या देगेचीं मळां उश्ण प्रकारच्या वाली वनस्पतींनी भरिल्लीं आसतात जाल्यार उंचेल्या मळांचेर उपोश्ण प्रदेशीय वनस्पत किल्लता. उदेंतेकडल्या यूकातान द्वीपकल्पीय भागांत झुडपां खूब आसात. देशांत घायपाताचे विंगड विंगड प्रकार आसात. तातुंतलो 'अगेव्ह फोरक्रॉयिडीस' हो नामनेचो प्रकार आसून चडकरून दक्षिण भागांत हाची लागवड करतात. देशांतलें हें म्हत्वाचें उत्पादन आसा. बाहा कॅलिफोर्नियाच्या भागांत पाइन रुखांचीं रानां आसात. हांगाच्या रानांनी आर्मडिलो, टॅपिर, ऑपॉस्सम, प्यूमा, जॅगुआर, तरातरांचीं वांस्वेलां आनी माकडां, हरणां, रानदुकर आनी हेर रानवटी प्राणी दिसतात. तशेंच विखयाळे सोरोप आनी जीव आसून किनारी प्रदेशांतल्या रेब्याच्या भागांत मलेरिया सारकिले वशाचे रोग तयार करपासारके खूब मूस आसात.

**इतिहास** : १०,००० वर्सां पयलींच्या टेपेस्पान मनशाचें हें वसतिस्थान आसुंये. इ.स.पयलीं पांचव्या शेंकड्यांत ह्या भागांत शेतीक सुरवात जाली. हांगाचे पुर्विल्ले मातयेच्या आयदनांचे अवशेश इ. स. पयलीं २००० वर्सां पयलींचे आसात. ओल्मेक (इ.स. पयलीं ८९० ते ४००) ही ह्या प्रदेशांतली आद्य विकसित संस्कृती आसा. ला व्हेंता हें ते संस्कृतीचें केंद्र आशिल्लें. दक्षिण व्हेराक्रूझ आनी ताबास्को ह्या विद्यमान प्रांतांत ती आशिल्ली. ओल्मेक संस्कृतींत चित्रलिपी आनी पंचांग हांचीय निर्मिती जाली. उपरांत मेक्सिकन संस्कृतीचें भांगरायुग वा अभिजातयुग (इ.स. पयलीं सुमार २०० ते इ.स. ९००) सुरू जाता. सुसंस्कृत नागर समाज, धर्मगुरूंचो प्रभाव, भव्य वास्तुकला, ललितकला आनी लेखनकलेचो विकास तशेंच वैज्ञानिक उदरगत हीं ह्या युगाचीं खाशेलपणां आसात.

इ.स. ३०० ते ९०० ह्याच काळांत दक्षिण मेक्सिकोंत माया संस्कृतायेचो विकास जायत गेलो. ह्या युगाच्या उत्तरार्धांत धर्मगुरुंबदला लश्करी फुडाऱ्यांचो उदय जालो. देवतांक मनशाचो बळी दिवपाची चाल सुरू जाली. तॉल्तेक ही त्या काळांतली एक मुखेल जमात. हे जमातीचो फुडारी टोपिल्टझीन क्वेट्झाकोट्ल हाणें सद्याच्या मेक्सिको शाराचे ईशान्येक तूला ही नवी राजधानी वसयली आनी थंय ताणें २० वर्सां राज्य केलें. उपरांत ताचेर हद्दपारीची वेळ येतकच ताणें हें नगर सोडलें. तॉल्तेक निर्वासितांनी उत्तरेकडल्या यूकातान प्रदेशांत माया संस्कृतीचो वारसो फुडें चलयलो. १,००० वर्सां सुमार माया संस्कृतायेचो प्रभाव ह्या भागांत तिगून उरलो. तूला नगरीच्या पतनाउपरांत बाराव्या आनी तेराव्या शेंकड्यांत जायत्यो हेडग्यो जमाती मध्य मेक्सिकोंत भितर सरल्यो. १३१८ वर्सा तेस्कोको (सद्याची मेक्सिको सिटी) ही नवी राजधानी स्थापन जाली. नॅझॅहॉलकोत्ल हो तांचो राजा आशिल्लो. बाराव्या शेंकड्यांत वायव्येकडल्यान ॲझटेक इंडियन आयले आनी कांय काळ त्या काळांतल्या सत्ताधाऱ्यांचे सेवेंत रावले. पूण १३२५ वर्साच्या अदमासाक तांणी तेस्कोको सरोवरांतल्या जुंव्याचो कब्जो घेतलो. थंयच तांणी तेनॉच्तित्लान ही राजधानी वसयली. सूर्य ही तांची मुखेल देवता आनी झूजदेवताय आशिल्ली. मोक्सिकोचो वसाहतकालीन इतिहास एर्नांदो कोर्तेझ आयला तेन्नासावन म्हळ्यार १५१९ वर्सासावन सुरू जाता. क्यूबाच्या राज्यपालान कोर्तेझाक मोहिमेचेर धाडिल्लो. १५२१तल्या संघर्शांत ॲझटेकांचो निमाणचो सम्राट दुसरो मॉंतेझूमा मेलो. तीन म्हयन्यांच्या संघर्शाउपरांत ॲझटेक राजधानी कोर्तेझाच्या हातांत पडली. १५४२ वर्सा गुलामगिरीआड कायदे केले आनी १५४९ च्या कायद्यान सक्तीच्या कामाचो निर्बंध काडलो. पूण कामगार कमी पडूंक लागले आनी दर एक गांवान दर सप्तकाक विशिश्ट कामगार दिवंक जाय असो कायदो केलो. कोर्तेझान नवे स्पॅनिश वसणुकेक 'नवें-स्पेन' हें नांव दिल्लें. कोर्तेझ कांय वर्सां नव्या स्पेनाचो राज्यपाल आशिल्लो. उपरांत वसणुकेची वेवस्था अधिकाऱ्यांच्या मंडळाकडे दिली. न्यायमंडळासारक्या ह्या मंडळाकडे वैधानिक, कार्यकारी आनी न्यायिक अशीं तीनूय कामां आशिल्लीं. उपरांत स्पेनाच्या सम्राटान ह्या कामाखातीर व्हाइसरॉयाची नेमणूक केली. स्पॅनिश आनी भारतीय चोम्यांखातीर स्वतंत्र नगरपरिशदो ह्याच काळांत स्थापन केल्यो. स्पॅनिश जहाजांतल्यान, आयात-निर्यात वेपार वर्सांतल्यान एक फावट जातालो. पोप शासनान स्पेनाक सगळे धर्मीक हक्क दिल्ले. तेखातीर मेक्सिकोंतल्या भारतीयांचें व्हड प्रमाणांत धर्मांतर केलें. १५७१ वर्सा हांगा 'इन्क्विझिशन' (खिस्ती न्यायमंडळ) स्थापन जालें. ह्या काळांत, वांशिक मिश्रण घडून आयलें. स्पॅनिश दादलो आनी भारतीय बायलेचे संततीक 'मेस्टिझो' अशी संज्ञा मेळ्ळी. खणींनी तशेंच उंसाच्या मळ्यांनी काम करपापासत गुलाम म्हूण कृष्णवर्गीय हाडले. हेरांकडे ह्या गुलामांचो संबंद आयिल्ल्यान तांचो 'मुलेट्टो' हो वर्ग तयार जालो. भारतीय आनी कृष्णवर्णीय हांच्या मिश्रणांतल्यान 'झांब्योस'

निर्माण जाले. ह्या भरसल्ल्या समाजांत कातीचो रंग म्हत्वाचो थरलो आनी तेप्रमाण वर्ग तयार जाले. गोऱ्या लोकांभितरूय स्पेनांत जल्मल्ले आनी मेक्सिकोंत जल्मल्ले (क्रीओल) हांचेभितर उच्च-नीच चर्चितलीं उंचेलीं अधिकारपदां फावो जातालीं.

दुसरो चार्लस् मरतकच (१७००) स्पेनांत फ्रेंच बूँर्बा घराण्यांतलो वारस सम्राटपदाचेर आयलो आनी ताचे राजवटींत खूब राजकीय घडामोडी जाल्यो. वर्सांतल्यान एकदांच जाताली ती आयात-निर्यात पद्दत बंद जाली. त्याचवेळार रुप्याचें उत्पादन खूब वाडलें. मेक्सिकोंत जावपी रुप्याचें उत्पादन, सगळ्या जगांत जावपी उत्पादनाइतलें जावपाक लागलें. पूण ह्या काळांत, सामान्य लोकांक मात हे अर्थीक सुबत्तेचो लाव मेळ्ळोना.

अठरावो शेंकडो हो युरोपांतल्या ज्ञानोदयाचें युग मानतात. ह्याच काळांत उदारमतवादी विचारसरणेचो उदय जालो. तातुंतूच नेपोलियनान १८०८ वर्सा स्पेन जिखलो. तेन्ना फ्रेंचांसारक्या परक्या राज्यकर्त्यांच्या शेकाखाल रावचेपरस स्वतंत्र रावंचे अशें नव्या स्पेनांतल्या वसाहतकारांक दिसूंक लागलें. अमेरिकेचें स्वातंत्र्यझूज (१७७५-८३), फ्रेंच राज्यक्रांती (१७८९) आनी नेपोलियनाची स्पेनाचेर घुरी घालून सत्तासंपादन (१८०८) ह्या घडणुकांचो परिणाम जावन मेक्सिकोंत स्वातंत्र्याची चळवळ सुरू जाली. ईदाल्गो कोस्तीया ह्या धर्मोपदेशकान ही चळवळ सुरू केली. पूण १८११ वर्साच्या कॅल्डेरॉन ब्रिज हांगाच्या झुजांत ईदाल्गोक हार खावंची पडली. १८२० वर्सा स्पेनांत उदारमतवादी सत्तेर आयले. १८२१ वर्सा स्पेनान मेक्सिकोच्या स्वातंत्र्याक संमती दिली. १८२३ वर्सा मेक्सिकोंत प्रजासत्ताकाची स्थापणूक जाली. ह्या सत्तांतराचे सूत्रधार सांता आना आनी ग्वादालूपे व्हीक्तोर्या हे फुडारी आशिल्ले. ग्वादालूपे व्हीक्तोर्या हो मेक्सिको प्रजासत्ताकाचो पयलो अध्यक्ष जालो. १८२९-३० वर्सा थोड्या काळाखातीर गेरैरो हो सांता आनाच्या फाटबळान अध्यक्ष आशिल्लो. १८३२ वर्सा स्वता सांता आना होच प्रजसत्ताकाचो अध्यक्ष जालो आनी १८५५ मेरेन ताचो प्रभाव तिगून आशिल्लो.

१८३५ वर्सा अमेरिके वांगडा जाल्ल्या टेक्सस संघर्शांत ताची सत्ता गेली पूण १८४१-४४ ह्या काळांत तो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १८४६-४८ ह्या काळांत टेक्ससाच्या प्रस्नावयल्यान अमेरिकेकडे झूज जालें. ह्या मेक्सिकन झुजाचे निमाणें जाल्ले कबलातीप्राण बरोच व्हड असो प्रदेश मेक्सिकोक वगडावंचो पडलो. १८४८-५५ मेरेन परतून सांता आना हो राश्ट्राध्यक्ष आशिल्लो. १८५७ वर्सा कांय उदारमतवादी फुडाऱ्यांनी एक नवी राज्यघटना तयार केली आनी सांता आनाची सत्ता सोंपली. ही मेक्सिकोची एक म्हत्वाची राज्यघटना आसा. बेनितो ह्वारेस हो ह्या क्रांतिकारक उदारमतवादी पक्षाचो प्रभावी फुडारी आशिल्लो. १८५८-६१ ह्या काळांत विरोधकांकडे जाल्ल्या झुजांत बेनितोन जैत मेळयलें. सनातन्यांनी फ्रांसाच्या तिसऱ्या नेपोलियनच्या आदारान मेक्सिकोंत परतून एक फावट फ्रेंचांची सत्ता हाडली (१८६४-६७). मॅक्सिमिल्यन हो मोक्सिकोचो सम्राट जालो. पूण ताका फ्रांसाकडल्यान मेळपी आदार उपरांत बंद जालो आनी बेनितोन परतून ताचो पाडाव केलो. १८७६ वर्सा पॉर्फिन्यो दीआस हाणें सशस्त्र उठाव करून राश्ट्राध्यक्षपद जोडलें. १८८०-८४ हो चार वर्सांचो काळ सोडल्यार १९११ मेरेन तोच सत्तेचेर उरलो. ह्या काळांत देशाची अर्थीक-उद्देगीक खूब उदरगत जाली.

१९१० वर्सासावन मेक्सिकोची नामनेची क्रांती सुरू जाली. फ्रांसिस्को मादेरो हो तिचो फुडारी. १९११ वर्सा दीआसाक राजीनामो दिवंचो पडलो. १९१३ वर्सा मादेरोचो खून जालो. उपरांत आयिल्ल्या वेर्ता हाची हुकुमशाही राजवट १९१४ वर्सा सोंपली. उपरांत १९१५ कारांसा हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९१७ वर्सा ताणें नवी राज्यघटना सुरू केली. १९२० वर्सा ज. ओब्रेगॉन हो कारांसाचो पयलींचो लश्कर मुखेली अध्यक्ष जालो. ताच्या काळांत म्हळ्यार १९२०-२४ मजगतीं जमनींचें पुनर्वांटप केलें. व्हड प्रमाणाचेर शाळा सुरू केल्यो. ताचे उपरांत प्लूटार्को कायेस हो अध्यक्ष जालो. ताणें भूधारणाविशींचें आनी शैक्षणिक सुदारणांचें कार्य मुखार व्हेलें. पूण खनिज तेल उत्पादनांतले अमेरिकेचे हक्क आनी चर्च हांची राजकीय सत्ता ह्या प्रस्नांवयल्यान ताचे अमेरिका आनी चर्च हांचेवांगडा संघर्श जावंक लागले. कॅथलीक पंथीयांनी 'लाँग लिव्ह क्राइस्ट द किंग', अशें उतर घेवन देशभर उक्तें बंड सुरू केलें. १९२६-२९ ह्या काळांत चर्चप्रणीत सगळ्यो शाळा आनी धर्मीक सेवा बंद आशिल्ल्यो. १९२८ वर्सा ओब्रेगॉन परतून राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. पूण रोकडोच ताचो खून जालो. उपरांत १९३४ मेरेन हेर राश्ट्राध्यक्षांच्यो राजवटी आयल्यो आनी गेल्यो पूण कायेसाचो राजकीय प्रभाव तिगून उरलो. ताणें १९२९ वर्सा राश्ट्रीय क्रांतिकारक पक्षाची स्थापणूक केली आनी १९४६ वर्सा ह्या पक्षाचें 'इन्स्टिट्यूशनल रेव्होल्यूशनरी पार्टी' अशें नामांतर केलें. १९३४ वर्सा लाथारो कार्देनस हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताणें तळागाळांतल्या लोकांच्या प्रस्नांक खूब म्हत्व दिलें. ताचे कारकीर्दींत रेल्वेचें आनी खनिज तेल उत्पादनाचें राश्ट्रीयकरण जालें तशेंच व्हड प्रमाणाचेर शाळा स्थापन केल्यो. दुसऱ्या म्हाझुजांत मेक्सिकोन १९४२ वर्सासावन इश्टराश्ट्रांवटेन वांटो घेतलो. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांतच्या काळांत मेक्सिकोची व्हड प्रमाणांत अर्थीक उदरगत घडून आयली. मीगेल आलेमन ह्या राश्ट्राध्यक्षाचे राजवटींत (१९४६-५२) उद्देगिकीकरणाचो नेट खूब वाडलो. १९७० वर्सा लुईश आल्व्हारेथ अध्यक्ष जालो. देशांत एकाच पक्षाची सत्ता खूब काळ मेरेन कायम आशिल्ल्यान १९७० उपरांतच्या काळांत कांय पोरनी राजकीय दुखणीं निर्माण जालीं. दुसरें कारण म्हळ्यार अर्थीक विकासाची विशम वांटणी. गिरेस्त लोक चड गिरेस्त आनी गरीब लोक चड गरीब जायत गेले. १९७६ वर्सा जोस पोर्टिलो राश्ट्राध्यक्ष जालो, त्याचवेळार व्हड प्रमाणाचेर खनिज तेल सांठ्यांचो सोद लागलो. पूण उपरांत खनिज तेलाचे आंतरराश्ट्रीय दरेंत देंवती आनी वाडटी म्हारगाय हाकालागून देशाचे अर्थीक परिस्थितीचेर खूब

वायट परिणाम जालो. तेखातीर शासनान १९८२ वर्सा पेसो ह्या चलनाचें ६३ टक्क्यांनी अवमूल्यन केलें. त्याच वर्सा मींगेल हुतार्दो हो अर्थीक विशयांतलो तज्ञ अध्यक्ष जालो. ताणें शेतकी, उद्देग-धंदो तशेंच भौशिक मळार कांय प्रमाणांत सुदारणा घडोवन हाडली. पूण बेकारीच्या वाडट्या प्रमाणाचेर आळो घालपाक ताका अपेस आयलें. हाका लागून ताका उग्र पंगडाकडच्यान खूब विरोध जालो. १२ ऑगस्ट १९९२ ह्या दिसा मेक्सिकोन अमेरिका आनी कॅनडा कडेन 'नॉर्थ अमेरिकन फ्री ट्रेड ॲग्रीमेंट' (NAFTA) ही अर्थीक कबलात केली. १ जानेवारी १९९४ ह्या दिसा 'झापातिस्ता नॅशनल लिबरेशन आर्मी, ह्या पंगडांतल्या गोरिलांनी दक्षिण मेक्सिकोंत सरकाराआड उठाव केलो. २ मार्च १९९४ दिसा सरकारान तांचेकडेन तात्पुरती शांतता कबलात केली. उपरांत २३मार्च दिसा लुईस डॉनाल्डो कोलोरिओ मुरिएट्टा ह्या रेव्होल्यूशनरी पक्षाच्या अध्यक्षीय उमेदवाराची प्रचाराक गेल्लेकडेन हत्या जाली. हाका लागून ऑगस्टांत फेरवेंचणूक जावन रेव्होल्यूशनरी पक्षाचोच उमेदवार अर्नेस्टो झेदिल्लो पोन्से द लिओन हो अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. १९९५ त देशाची अर्थीक स्थिती परतून इबाडली. पूण अमेरिकेच्या आदारान तातूंत थोडीभोव सुदारणा करपांत आयली. ऑगस्ट १९९६ त पॉप्युलर रेव्होल्यूशनरी पंगडान सरकाराआड परतून उठाव केलो. १९९७ त जाल्ले काँग्रेसीचे वेंचणुकेंत इन्स्टिट्युशनल रेव्हॉल्यूशनरी पक्षाक पुराय भौमत मेळ्ळेंना.

मेक्सिकोच्या लोकशाय प्रजासत्ताक संघराज्याचें शासन १९१७ च्या वेळच्या वेळार सुदारणा केल्ल्या संविधानाप्रमाण चलता. देशांत ३१ राज्यां आनी मेक्सिको सिटी हो एक संघजिल्हो आसा. ह्या सगळ्या राज्यांचे मेळून देशाचें संघराज्य जालां. १८ वर्सांपयल्या सगळ्या नागरिकांक मतदानाचो हक्क आसा. राश्ट्राध्यक्ष हो राज्याचो आनी शासनाचो घटनात्मक मुखेल आसता. ताची ६ वर्सांखातीर वेंचणूक करतात. मंत्रिमंडळ, वरिश्ठ सैनिकी आनी प्रशासकीय अधिकारी हांची नेमणूक राश्ट्राध्यक्ष करता. 'नॅशनल रेव्होल्यूशनरी इन्स्टिट्यूशन' हो देशांतलो मुखेल राश्ट्रीय पक्ष आसा. मेक्सिको सिटी ह्या संघजिल्ह्याचेर, राश्ट्राध्यक्ष राज्यपालाची नेमणूक करता. दर एक राज्याचें स्वतंत्र संविधान आसून थंयचो राज्यपाल ६ वर्सांखातीर वेंचून दितात. राश्ट्राध्यक्ष देशांतल्या सर्वोच्च न्यायालयांतल्या न्यायाधीशांची ६ वर्सांखातीर नेमणूक करता. पूण ताका वरिश्ठ गृहाची मान्यताय आसची पडटा.

**अर्थीक स्थिती :** पेसो हें मेक्सिकोचें चलन आसा. बँक ऑफ मेक्सिको ही मध्यवर्ती बँक आसून १९८२ वर्सा देशांतल्या खाजगी बँकांचें राश्ट्रीयीकरण जालें.

देशाच्या उद्देगीक क्षेत्रांत कारखानदारी, कृषिउद्देग, खणकाम, खनिज तेल. रसायन उद्देग, बांदकाम उद्देग आनी सर्वसामान्य सेवा उद्येग अशे मुखेल घटक आसात. तातुंतले मोटार गाडयो, पोलाद, खनिज तेल, रसायन उत्पादनां आनी खतां हे विकसित अशे राश्ट्रीय उद्देग आसात. पर्यटन होय म्हत्वाचो आनी विकसित उद्देग आसा. देशाचे निर्यातींत चडकरून अशुध्द खनिज तेल, काफी आनी मोटारगाडयो; आनी आयातींत मको, कड्डणां, येरादाराचीं साधनां, यांत्रिक उपकरणां हांचो आस्पाव जाता. देशाचो आंतरराश्ट्रीय वेपार चडसो अमेरिका, फ्रांस, अस्तंत जर्मनी, ग्रेट बिटन ह्या देशांकडे चलता.

पावसाचें प्रमाण कमी आशिल्ल्यान देशांतली सुमार ८०% जमीन शेताक उपकराना. मको हें हांगाचें मुखेल पीक आसून ताच्या फाटल्यान कड्डणां आनी गंवाचें पीक येता. तशेंच कापूस, ऊंस, वाटाणो, काफी आनी भाजीपालो हीं नगदी पिकां देशांत येतात. संत्रीं, केळीं, लिंबू, अणसां, सफरचंद, द्राक्षां, आंबे ह्या फळांचेंय उत्पादन घेवप जाता. काफी आनी साकर हांची निर्यात जाता. देशांत रानाचें क्षेत्र ४८१ लक्ष हेक्टर इतकें आसून पाइन, स्प्रूस, सीडार, मॅहॉगनी, रोजवुड, लॉगवुड हे रूख हांगा मेळटात. देशांतलें लाकूड उत्पादन आनी नुस्त्याचें उत्पादन म्हत्वाचें आसा. ताल्ले, सुंगटां, मोरी अशे तरेचें नुस्तें हांगा मेळटा. देशांतलें सैमीक तेल आनी वायू हांचें उत्पादन व्हड आसा. १९३८ वर्सा तेला-खणींचें राश्ट्रीयीकरण जालें. तेलाचें उत्पादन, शुध्दीकरण आनी विक्री ह्या कामांखातीर स्वतंत्र शासकीय यंत्रणा आसा. मेक्सिकोच्या आखाता लागसार तशेंच देशाचे आग्नेयेक आनी दक्षिणेक सैमीक वायुचे आनी तेलाचे व्हड सांठे मेळ्ळयात. दर्यांत तेलाच्यो बांयो आसात. दगडी कोळशाचे सांठेय खूब आसून तांचो दर्जोय बरो आसा. शिंसें, तांबें, जस्त, लोखण, गंधक, मँगनीज हींय खनिजां मेळटात.

देशांत वेपारी संघटना आसून दर एक उद्देगाखातीर आनी वेपाराखातीर ते ते संघटनेचें सदस्यत्व गरजेचें आसता. कामगार संघटना काम करतना, सत्ताधारी पक्षाचो एक अधिकृत घटक म्हूण वावुरता. चेंबर ऑफ कॉमर्स तशेंच इंडस्ट्रियल चेंबर्स ह्यो तातुंतल्यो व्हड संघटना आसात.

मालाची वाहतूक आनी प्रवासी सेवा हांचेखातीर जलमार्गाचो खूब उपेग जाता. देशांत दूरध्वनी आनी तारायंत्र सेवा उपलब्ध आसून ती शासनाचे अखत्यारींत आसा. मेक्सिको सिटींतल्यान खूबशीं दिसाळीं उजवाडा येतात. हीं सगळीं नेमाळीं स्पॅनिश भाशेंत आसात.

**लोक आनी समाजजीण :** ॲझटेक, माया, झपोटेक ह्यो भारतीय जमाती आनी स्पॅनिश वसाहतकार हांच्या वांशिक-सांस्कृतिक मिश्रणांतल्यान मेक्सिकोंतलो सध्याचो समाज तयार जाला. तातूंत गांवगिरो, शारी, प्रादेशिक आनी हेर वर्गनिदर्शक अशे समाजीक वर्ग आनी तांचीं खाशेलपणां दिसून येतात. देशांतले चडशे लोक रोमन कॅथलिक पंथाचे ९२.६% आसून प्रोटेस्टंट पंथाचे ३.३% आनी हेर धर्मांचे ४.१% लोक आसात. खिरस्ती धर्मगुरूंक प्राथमिक शाळा काडपाक बंदी आसा. हांगा प्राथमिक आनी माध्यमिक शिक्षण सक्तीचें, फुकट आनी धर्मनिरपेक्ष आसा. मेक्सिको शारांतलें राश्ट्रीय स्वायत्त विद्यापीठ

पोरनें (१५५१) आनी म्हत्वाचें आसा. १९२० वर्सासावन ताका पुराय स्वायत्तता दिल्या. ह्या शारांत तंत्रविद्या आनी उपयोजित विज्ञान हांचें व्हड नामनेचें विद्यापीठ आसा. देशांत आनीकूय व्हड विद्यापिठां आसात. देशांतलें समाजकल्याणाविशीचें कार्य 'समाजीक सुरक्षा संस्थे' वतीन चलता. भलायकी केंद्रां देशांत चड म्हत्वाचीं आसात.

**कला :** मेक्सिको हांगाची कलापरंपरा खूब पोरनी आसा. हे पोरने संस्कृतायेचे म्हत्वाचे अवशेश इ.स.चे सुरवेकसावन पळोवंक मेळटात. उपरांत पांचव्या शेंकड्यासावन हे संस्कृतायेचो विस्तार मेक्सिकोच्या आखाती भागांत जालो. वास्तेक, तोतोनॅक, ओलमेक आनी तेरेस्कन ही हे संस्कृतायेचीं मुखेल केंद्रां आशिल्लीं. हे संस्कृतायेचो सगळ्यांत विकसित भाग म्हळ्यार माया संस्कृती. हे संस्कृतायेंतली वास्तुकला, शिल्पकला, चित्रकला हांचे उत्कृश्ट नमुने तीकाल, पालेंके, कोपान हांगा मेळ्ळयात. हे संस्कृतायेच्या अभिजात युगाउपरांत नव्यो कल्पना आनी कलाविश्कार हांचो मूळ माया संस्कृतीकडे मेळ सादून तातुंतल्यान भव्य वास्तुशिल्पां साकारल्यांत. चीचेन ईत्सा आनी तूला हांगा खोदकाम आनी शिल्पां आशिल्लीं व्हड पिरॅमिडस उबारलीं. मायाचे अस्तंतेक दक्षिण पॅसिफिक देगेचेर झपोटेक आनी मीक्सतेक संस्कृतायेची खिस्ती काळांत खूब वाड जाली. तशेंच ह्या काळांतलीं मृत्स्नाशिल्पां आनी हातबरपांय प्रसिध्द आसात. तूला ही राजधानी आशिल्ले तॉल्तेक संस्कृतायेचो उदय ९०० ते १२०० च्या अदमासाक जालो. हे संस्कृतायेंत खूबशो तरातरांच्यो वास्तुशिल्प शैली उदयाक आयल्यो आनी तांचो प्रभाव उपरांत येवपी ॲझटेक संस्कृतायेचेर जालो. ॲझटेकांनी तेनॉचतित्लान ही आपली राजधानी १३२५ च्या अदमासाक वसयली. ॲझटेकांच्या पंचांगांचे कोरांतिल्लें पाशाणशिल्प हें मुजरत उल्लेख करपासारकें आसा. हिस्पनो-मेक्सिकन संस्कृतायेचो काळ सुमार १५२३ वर्सासावन मानतात. १५७२ वर्सा जेझुइट लोक आयले आनी ताका लागून धर्मगुरूंचें म्हत्व खूब वाडलें. तांणी कितलेशोच नागर आनी धर्मीक वास्तू बांदल्यो. विद्यालयां, दवाखाने, गिरिजाघरां, राजवाडे आनी व्हड प्रासाद बांदले. यूरोपीय शैलीच्या प्रभावाखाला खूबशो वास्तू निर्माण जाल्यो. तशेंच स्पॅनिश चित्रांय हांगा हाडलीं आनी तांच्या प्रभावांतल्यान सतराव्या शेंकड्यांतले बरेचशे स्थानिक कलाकार, धर्मीक चित्रां, मेणाच्यो मूर्ती आनी लाकडी शिल्पां हातूंत पारंगत जाले. मेक्सिकन चित्रकारांच्या चित्रांत चकचकीत तांबड्यो, निळ्या रंगांच्यो सया दिसतात. ह्या चित्रांक 'मेक्सिकन बरोक' अशें नांव पडलें. पयलो बाल्ताझार द एकोर हो मेक्सिकोंतलो एक व्हड चित्रकार मानतात. ताणेंच पयलीं स्थानिक कलासंस्थेची (१६०९) स्थापणूक केली. ह्याच काळांतल्या आँझो व्हेझ्वेझ ह्या चित्रकारान कांय श्रेश्ठ कलाकृती निर्माण केल्यो.

सतराव्या शेंकड्याच्या मदेगाक चित्रकलेक देंवती कळा लागली आनी मूर्तिकला, वास्तुकला हांकां परतून नेट आयलो. ह्याच काळांत रोकोको शैली आनी नामनेचो वास्तुकार होसे चूर्रीगेरा हाच्या नांवान वळखुपी नवी 'चूर्रीगेरेस्क' शैली हांच्या मेळांतल्यान नवे बरोक शैलीचो जल्म जालो. अठराव्या शेंकड्यांतले होसे इब्रा आनी मीगेल काब्रेरा हे नामनेचे चित्रकार आसात. एकुणिसाव्या शेंकड्यांतल्या होसे मारीआ व्हेलास्को ह्या श्रेश्ठ चित्रकाराचें 'व्हॅली ऑफ मेक्सिको' हें प्रभावी चित्र आसा. होसे ग्वादालूपे पोसादा हो आपल्या उपहासगर्भ मुद्राचित्रांखातीर प्रसिध्द आशिल्लो. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत मॅक्सिमिल्यन ह्या बादशहाच्या काळांत फ्रांसांतली वास्तुशैली हांगा हाडली. ताणें चापूलतेपेक हांगाचो राजवाडो आनी हेर सोबीत बागो निर्माण केल्यो. त्या काळांतलो राश्ट्राध्यक्ष दीआस हाणें मेक्सिको शारांत पॅसेओ दे ला रिफॉर्मा ह्या व्हड प्रासादाची निर्मिती केली. ह्या सगळया वास्तूंचेर फ्रेंच शैलीचो प्रभाव दिसून येता.

चित्रकलेवांगडा आर्विल्ल्या काळांत मेक्सिकोंत वास्तुकलेचोय विकास जालो. हे वास्तुकलेंत मूळ मेक्सिकन शैलींतलीं खाशेलपणां आनी आर्विल्लें युरोपीय आनी अमेरिकन तंत्रशास्त्र हांचो सोबीत मेळ दिसून येता. नामनेचो वास्तुकार आनी चित्रकार हवान गॉर्मन हाणें बांदिल्लें ग्रंथालय हो वास्तुकलेचो एक उत्कृश्ट नमुनो आसा. चित्रकला, वास्तुकला हांचेवांगडा मेक्सिकोंत लोककला आनी कारागिरी हांचीय खूब उदरगत जाली. सोबीत विणकाम, मृत्स्नाशिल्पां आनी रुप्याचें उत्कृश्ट कलाकाम निर्माण जालें.

माया संस्कृतायेत म्हळ्यार इ.स.चो चवथ्या ते धाव्या शेंकड्यांत धर्मीक उत्सवांनी संगीत तशेंच नाचाक खूब म्हत्वाचें स्थान आशिल्लें. तेचभशेन हे संस्कृतायेल्या मेळिल्ल्या भित्तिलेपाच्या चित्रांनी शंख, तुताऱ्यो, बासरी, पिल्लूक, हरणाच्या शिंगांनी वाजोवपाची कांसवाचीं कट्टीं, लाकडी ओबो, तरातरांचे धोल हीं चित्रां पळोवंक मेळटात. 'तुंकुल' नांवाचो खाशेलो लाकडी धोल हें पुर्विल्ल्या काळांतलें मुखेल वाद्य आसा. ताका ॲझटेकांत 'तेपोनाझली' अशें नांव आशिल्लें. शंख आनी तुंकुल वाजोवन, लोकांक देवळांत एकठांय करताले. देवळांनी स्तोत्रगायक आसताले.

ॲझटेक वर्साचे अठरा म्हयने आसून दर एक म्हयन्यांत एक तरी उत्सव आसतालोच. तशेंच दर एक उत्सवाचे नाच-पदां आनी भेस वेगवेगळे आसताले. व्हड उत्सवांनी सुमार ८,००० नर्तक घेर धरून नाचताले. तरनाट्या चले-चलयांक नाचाचें खास शिक्षण दिवप जातालें. वसाहतकाळांत चर्च संगिताच्या प्रकारांत खूब वाड जाली. चर्च आनी मठ हातुंतल्यान धर्मीक संगिताचें शिक्षण दिवपी केंद्रां सुरू जालीं. पेद्रो दे गान्ते हाणें १५२४त तेस्कोको हांगा पयलें संगीत विद्यालय सुरू केलें. थंय भारतीय आदिवासींखातीर धर्मीक संगिताचें आनी वाद्यां तयार करपाचें शिक्षण दिताले. १५२७ वर्सा ह्या विद्यालयाचें मेक्सिको शारांत स्थलांतर जालें आनी रोखडींच संगीतशिक्षणाचीं केंद्रां वाडत गेलीं. मेक्सिकोच्या लोकसंगितांत आदिवासी भारतीय, निग्रो आनी युरोपीय हे तीन प्रवाह भरसल्ले दिसतात. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत

मेक्सिकोच्या संगितांत पयलींच इटालियन संगीत ऑपेरा संचांच्या आनी संगीतकारांवतीन आयलें. ह्या काळांतलो अँजेला पेराल्ता हो पुराय युरोपखंडांत नामना मेळोवपी पयलो मेक्सिकन गायक आसा. एकुणिसाव्या शेंकड्यांच्या शेवटाक कार्लोस मेनेसेस हाणें 'सिम्फनी' वाद्यवृंदाची स्थापणूक करून स्वरमेळ पद्दतीच्या संगिताक मेक्सिकोंत लोकप्रियता मेळोवन दिली. विसाव्या शेंकड्यांत तातूंत हेर युरोपीय प्रवाह येवन भरसले.

बैलांझुजी हो मेक्सिकोचो राश्ट्रीय खेळ आसा. मेक्सिको शारांत बैलाझुजीचीं दोन रिंगणां आसात. तातुंतलें 'प्लाझा दे तोरोस मॉन्युमेंटल' हें जगांतलें सगळ्यांत व्हड आसून तातूंत ५०,००० प्रेक्षक बसूंक शकतात आनीक सुमार ३५ बैलांझुजीचीं रिंगणां देशांत आसात. तशेंच मेक्सिको शारातं सॉकराखातीर 'अझटेका स्टेडियम' हें व्हड मैदान आसून तातूंत १,०५,००० प्रेक्षक बसूंक शकतात. 'जाई अलाई' हो हँडबॉलाभशेनचो एक खेळूय मेक्सिकोंत लोकप्रिय आसा. बेसबॉल, सॉकर फुटबॉल, व्हॉलीबॉल, पेंवप ह्या खेळांचोय मेक्सिकोच्या लोकप्रिय खेळांभितर आस्पाव जाता.

नाताळा पयलींच्या णव रातींक 'पोसादा' नांवाचो उत्सव मनयतात. पिनाता म्हळयार माती आनी कागदापसून तयार केल्लीं आयदनां आसतात. ह्या आयदनांक एकेकदां प्राण्यांचे आकार दितात. पिनातांत मिठाय, फळां, खेळ असल्यो वस्तू दवरून तो वयर हुंबकळायतात. ल्हान भुरगीं दोळ्यांचेर पट्टी बांदून आनी हातांत बडी घेवन तो आळीपाळीन बडयेन फोडपाचो यत्न करतात. तो फुट्टकच, भुरगीं त्यो वस्तू एकठांय करतात. नाताळा उपरांतचे बारावे रातीक जाण्टे लोक आपल्या भुरग्यांच्या बुटांनी भेटेच्यो वस्तू दवरतात. अशा उत्सवा वेळार भरपी जात्रो आनी मेळावे खाशेल्या आकर्शणाचे आसतात.

**भास आनी साहित्य :** मेक्सिकन साहित्य परंपरेंत ॲझटेक, माया आनी हेर भारतीय जमातींच्या लोकवाङमयाचो व्हड वांटो आसा. हें लोकसाहित्य आतां स्पॅनिश भाशेंतल्यान उजवाडाक आयलां. तातूंत पुराणकथा, धर्मीक विधींच्यो काणयो, परंपरीक वैद्यक, शेती, सण-परब ह्या गजालींचो आस्पाव जाता. वसाहतकाळांत, कोर्तेझान स्पेनाच्या राजाक बरयल्लीं पांच पत्रां प्रसिध्द आसात. वसाहतींच्या मोहिमांचो इतिहास सांगपी ग्रंथूय ह्याच काळांत जाले. सतराव्या शेंकड्यांतलो मानवतावादी कवी बेर्नार्दो द बाल्बेना हाणें मेक्सिकोच्या सैमाचें आनी लोकजीणेचें सोबीत वर्णन केलां. ह्याना आलार्कान हो सतराव्या शेंकड्यांतलो नामनेचो नाटककार आसा.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत मेक्सिकन कादंबरीचो जल्म जालो. अल्ता मिरानो ह्या भारतीय कादंबरीकाराची 'द झार्को' ही नामनेची कादंबरी आसा. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक निकाराग्वांतलो कवी रुबेन दारीओ आनी फ्रेंच प्रतीकवादी हांच्या काव्याचो परिणाम मेक्सिकन कवितेचेर जालो. विसाव्या शेंकड्यांत मेक्सिकन कवितेचो चड विकास जालो. १९३० उपरांत देशांतल्या त्याकाळच्या राजकीय घडणुकांचेर कथा-कादंबऱ्यो बरोवपी लेखक फुडें आयले. १९४० उपरांतच्या काळांत दावे विचारसरणीच्या लेखकांचें, कथा, उपहास-विनोद सारकीलें साहित्य उजवाडा येवंक लागलें. ह्याच शेंकड्याच्या शेवटाक कांय लेखिकाय फुडें सरल्यो. रोझार्यो कास्तेयानोस हिणें भारतीय लोक आनी चडकरून बायलांच्या कार्याविशीं लिखाण केलां.

- प्रकाश कामत

**मेघदूत :** महाकवी कालीदासाचें संस्कृत खंडकाव्य. ताची श्लोकसंख्या वेगवेगळे प्रतींत ११०, १११, ११७, ११८, १२० अशी वेगवेगळी मेळटा. पूण अधिकृत प्रतीप्रमाण ती १११ आसा. कोणा एका यक्षाक कर्तव्यचुतीक लागून कुबेरान शाप दिवन एका वर्साची हद्दपारीची शिक्षा केली. रामगिरीचेर विरहाचे आठ म्हयने ताणें कशेतरी काडले. आषाढाच्या पयल्यादिसा पावसाच्या कुपांक (मेघाक) पळोवन ताका आपले बायलेक रकाद धाडपाची कल्पना आयली. हे फाटभूंयेचेर कुपांक विनवणी, भोंवडेचोमार्ग, अलकेंतल्या घराच्यो कुरवो आनी विरहान व्याकुळ जाल्ले यक्षाचे बायलेचें वर्णन, तिका धिराचो संदेश अशी काव्यकथेची मांडावळ आसा.

पुर्वार्धांत रामगिरी ते अलका ह्या मार्गाचें वर्णन करतना भुगोलीक वाठार, शारां, न्हंयो, दोंगर, सवणीं आदींचीं चित्रां अचूक म्हायती दिवन ताणें साक्षात उबीं केल्लीं आसात. ह्या वर्णनांतलें खरेंपण अलका आनी यक्षभूमी हांच्या, अदभुत रम्यतेंत शेणटा. पूण यक्षाचे बायलेची मनशाळी मूर्त आनी तिची बोलकी विरह व्यथा हांचो भावसत्याकडे परत मेळ जाल्लो दिसून येता. संवेदनशील मानवी काळजाचें हें भावनीक सत्य हेंच मेघदूताचें काव्यरूप.

मेघदूतांतलो दर एक श्लोक चित्रावरी सोबीत आसा. खूबकडेन ताणें सैमाचीं चित्रां पितारल्यांत. पूण ताका मनशाच्या भावनांची झालर आसा. यक्षाचे बायलेच्या चित्रणांत सैमीक रंगाची चौकट ताणें भावमूर्तीक दिल्या. मोगाची उत्कटता आनी विरहाची व्यथा हांगा भावनेची मोवसाण खासा सोबीत उतरांची देग घेवन परगटायल्या. मदीं मदीं शृंगाराचे रंग थोडेभोव उत्तांग जाल्ले दिसतात. हातूंत मुखेल केंद्रबिंदू विरहाची भावना जावन आसा. ताचेवांगडा गंभीर चाल म्हळयार सुरावट आनी लय हांचो सोबीत मेळ साधून आयला.

मेघदूताचो अणकार वेगवेगळ्या भाशांनी जाल्लो आसा. देखीक एच्. एच्. विल्सन हाचो इंग्लीश पद्य अणकार (१८१३), माक्स म्यूलर हाणें केल्लो जर्मन पद्यअणकार (१८४७), ए. ग्वेरिनॉट हाचो फ्रेंच अणकार (१९०२), मराठींत कृष्णशास्त्री चिपळूणकर (पद्यरत्नावली, १८६५), बा. ल. अंतरकर (मेघदूत छाया, १९०५) हांणी अणकार केल्ले आसात.

हालींच्या काळांत कवी बा. भ. बोरकार हाणेंय मेघदूताचो अणकार केल्लो आसा (१९८१). कोंकणींत ओलव्हीन्यु गोमीश हाणें मेघदूताचो अणकार केला.

- कों. वि. सं. मं.

**मेघळे, सिताराम कानुजी :** (जल्म : १९ जून १९२२, देवगांव- वैजपूर, अहमदनगर)

सुटकेझुजारी. तो सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा गोंयचे शीमेर सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पुलिसांनी धरून ताका मार घालो. १९८६ वर्सा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मेघाणी, झवेरचंद कालिदास :** (जल्म : २७ ऑगस्ट १८९७?, चोटिल, सौराष्ट्र; मरण : ९ मार्च १९४७, बोटाद, सौराष्ट्र).



नामनेचो गुजराती कवी आनी लेखक. ताचे जल्मतिथीविशीं अभ्यासकांभितर कांय मतभेद आसात. कांय जाणांच्या मतान मेघाणीचो जल्म २८ ऑगस्ट १८९६ दिसा जालो. सौराष्ट्रांतल्या एका जैन कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. भुरगेपणांत काठियावाडच्या राजवाड्यांत ताचें येवप-वचप जातालें. त्या काळांत थंय सदांच चारण कवी जमताले. भुरगेपणांत ह्या कवींच्यो कविता आयकुपाची संद झवेरचंद हाका मेळ्ळी. ताकालागून ताच्या बालमनाचेर लोकसाहित्याचे संस्कार जाले.

अमरेली हांगासावन मॅट्रिकची परीक्षा पास जातकच १९१६ वर्सा ताणें भावनगरचे शामळदास कॉलेजींतल्यान संस्कृत आनी इंग्लीश हे विशय घेवन बी. ए. ची पदवी घेतली. उपरांत कलकत्ता हांगा नोकरी केली, पूण सौराष्ट्राच्या खेड्यांतली जीण आनी थंयचें लोकसाहित्य हांचे गोडयेन ताणें नोकरी सोडली आनी परतून सौराष्ट्रांत आयलो.

लोककथा, लोकांगीतां आनी हेर लोकसाहित्य एकठांय करपाखातीर तो सौराष्ट्रांत खूब भोंवलो. सौराष्ट्रांतल्यो लोककथा संकलीत करून त्यो 'सौराष्ट्रानी रसधार' ह्या नांवान १९२३ ते १९४७ ह्या काळांत चार खंडांनी उजवाडायल्यो. ह्या चार खंडांक लागून ताका लोकसाहित्याचो एक खांपो संशोधक आनी अभ्यासक म्हूण नामना मेळ्ळी. तशेंच १९२८ वर्सा गुजरातांतलो भोव मानादीक असो 'रणजितराम सुवर्णचंद्रक' दिवन ताचो भोवमान केलो. उपरांत ताणें सौराष्ट्रांतल्या डाकूंचेर दोन खंडांनी 'सोरठी बहाखटिया' (१९२७ आनी १९२८) हो ग्रंथ बरयलो. ताणें बरयल्ले हेर ग्रंथ अशे आसात - 'चुंदडी'-दोन खंड, 'कंकावटी' दोन खंड, 'जेसल जगनो चोरटो', 'पुरातन ज्योत', 'संत देवीदास', 'संत मेकरण', 'दादाजीनी वातो'(चार खंड).

मेघाणी हो एक बरो कवी. 'रढियाळी रात' (१९२५-२७) ह्या नांवान तीन खंडांनी ताणें सौराष्ट्रांतलीं लोकगीतां उजवाडायलीं. 'युगवंदना' (१९३५) हो ताचो काव्यांझेलो तशेंच ताचीं हेर लोकगीतां अशीं आसात - 'लोकसाहित्यमां ऋतुगीतो', 'सोरठी संतवाणी.' मेघाणीच्या देशभक्तीच्या काव्यान प्रभावित जावन महात्मा गांधीन ताका 'राष्ट्रीय शायर' अशें नांव दिलें. मेघाणीन 'रवींद्रवीणा' (१९४४) ह्या नांवान रवींद्रनाथाच्या कांय कवितांचो गुजराती भाशेंत अणकार केलो. 'एकतारो', 'मेघाणीना काव्यो', 'वेणीना फूल' हींय ताचीं कांय काव्यां आसात.

पत्रकार म्हणुनूय ताणें मोलादीक वावर केला. 'फूलछाब' ह्या सातोळ्याचो तो संपादक आशिल्लो. 'जन्मभूमी' ह्या नामनेच्या दिसाळ्यांत सुरवातेसावन (१९३३) तें निमाणेमेरेन 'कलम अने किताब' नांवाचें सप्तकी सदर बरयलें.

ताची हेर बरपावळ अशी आसा -

**नवलकथा :** 'अपराधी', 'गुजरातनो जय' (दोन खंड), 'तुलसी क्यारो', 'निरंजन', 'प्रभु पधार्या', 'बीडेलां द्वार', 'रा गंगाजळियो', 'वेविशाळ', 'सत्यनी शोधमां', 'सोरठ तारां वहेतां पाणी', 'वसुंधरानां व्हाला दवलां'.

**कथां झेले :** 'चिताना अंगारा', 'जेल ऑफिसनी बारी', 'प्रभृति', 'मेघाणीनी नवलिकाओ, (दोन खंड).

**लोकसाहित्य संशोधन :** 'लोकसाहित्यः पगदंडीनो पंथ', 'लोकसाहित्यनुं समालोचन,' 'परकम्मा'.

**नवलिकाः** 'कुरबानीनी कथाओ' (चार खंड), 'परकारा', 'प्रतिमाओ', 'मेघाणिनी किशोरकथाओ'.

**प्रकीर्ण :** मेघाणी स्मरणमूर्ति, मेघाणी ग्रंथ (२ वांटे), लि. हुं आवुं छुं.

**आपजीण :** (जीवन चरित्र) दरियापारना बहारवटिया, दाना भगत, माणसाइना दीवा, सोरठी संतो. माणसाइना दीवा ह्या पुस्तकाचो रवीन्द्र केळेकार हाणें कोंकणी अणकार केला (आनी तांकां मनशांत हाडले).

मेघाणीचो, लोकसाहित्याचो व्यासंग पळोवन रवींद्रनाथ टागोरान शांतिनिकेतनांत ताका ह्या विशयाचेर व्याख्यान दिवपाखातीर आपयल्लो.

आपले फकत ५०वर्सांचे पिरायेंत ताणें हो लिखाणाचो मोलादीक वावर केलो. ताणें केल्ल्या ह्या संशोधनाखातीर गुजराती साहित्याक हें लोकसाहित्याचें भांडार मेळ्ळें.

- डॉ. चंद्रलेखा डिसोझा

**मेघालय** : भारताच्या २२ घटक राज्यांतलें ईशान्य वाठारांतलें एक राज्य. क्षेत्रफळ: २२,४२९ चौ. किमी. लोकसंख्या : १,७६०,६२६ (१९९१). शिलाँग ही ह्या राज्याची राजधानी आनी राज्यांतलें एक व्हड शार. मेघालयाचे उत्तरेक आनी उदेंतेक भारतांतलें आसाम राज्य आनी दक्षिणेक तशेंच अस्तंतेक बांगलादेश आसा. पयलींच्या आसाम राज्यांतले गारो हिल्स, संयुक्त खासी आनी जैंतिया हिल्स जिल्ह्यांचे मेळून २१ जानेवारी १९७२ दिसा भारतीय संघराज्यांतलें एक राज्य म्हूण मेघालयाची स्थापणूक जाली.

**न्हंयो** : हांगाच्या दोंगरी आनी पठारी प्रदेशांतल्यान खूब न्हंयो व्हांवतात. चडशो न्हंयो तळपांतल्यान आनी दोंगरांतल्यान व्हांविल्ल्यान त्यो चड नेटान व्हांवतात. तेखातीर मदीं मदीं धबधबे तयार जातात. राज्याच्या गारो हिल्स जिल्ह्यांतल्यान कृष्णाई, कालू, भुगई, निताई, सोमेश्वरी न्हंयो व्हांवतात. खासी हिल्स जिल्ह्यांतल्यान किनशी, खी, उमत्र्यू, उमनगॉट, उमिआम मावफ्लांग आनी उमिआम ख्वानख्वान जाल्यार जैंतिया हिल्स जिल्ह्यांतल्यान कोपिली, म्यिंटडू आनी म्यिनटांग ह्यो न्हंयो व्हांवतात. शिलाँगसावन १६किमी. अंतराचेर बडापानी लेक हें तळें आनी उमिआम हो नामनेचो जलविद्युत्‌निर्मिती प्रकल्प तशेंच चेरापुंजी लागसार मॉसमाई हांगाचो नोहस्नीगथिआंग धबधबो पळोवपा सारको आसा.




**दोंगरी वाठार** : मेघालय हो दोंगरी वाठार. अस्तंतेकडल्या गोरा दोंगुल्ल्यांची उंचाय ३००मी. जाल्यार उदेंतेकडल्या खासी दोंगुल्ल्यांची उंचाय, १,८०० मी. आसा. जैंतिया दोंगुल्ल्यांची उंचाय मात्शी उणी आसा. 'शिलाँग पीक' ही राज्यांतली सगळ्यांत उंचेली सुवात आसून तिची उंचाय १,९६५मी. आसा. अस्तंतेकडे गारो दोंगुल्ल्यांतलें १,४१२ मी. उंचायेचें नोक्रेक हें राज्यांतलें दुसरें उंचेलें तेमूक आसा.

**जमनीचे प्रकार** : हांगाचे जमनीचे तीन प्रकार करूं येतात. दक्षिणेकडलो देंवती आशिल्लो प्रदेश पठारी प्रदेश आनी उत्तरेकडल्या आसामाच्या देगणा लागसारचो मात्सो देंवती आशिल्लो वाठार. अस्तंतेपरस उदेंतेकडल्या प्रदेशांतली उंचाय वाडत वता. राजधानी शिलाँग हो मध्यवर्ती पठारी प्रदेश.

**हवामान** : नैर्ऋत्य मोसमी वाऱ्यांच्या काळांत, बंगालच्या उपसागरा वयल्यान आयिल्लें बाश्पान भरिल्लें वारें आनी कुपां मेघालयाच्या दोंगराळ वाठारांत येतात. हें वारें आनी कुपां दोंगराळ प्रदेश आशिल्ल्यान आडावतात. ते खातीर ही भूंय सदांच कुपांनी भरिल्ली आशिल्ल्यान तिका 'मेघालय' म्हण्टात. गारो हिल्स हांगाचें वर्सुकी तापमान चडांत चड ३४° से. आनी उण्यांत उणें ४° से. आसता. खासी आनी जैंतिया हिल्सांतलें हेच प्रमाण अनुक्रमान २३.३°से. आनी १२° से. आसा. हांगाचो वर्सुकी पावस १००० ते १२०० सेंमी. आसा. जगांत सगळ्यांत चड पावस, ह्या राज्यांतल्या चेरापुंजी आनी मॉसिनराम ह्या सुवातींनी अनुक्रमान १३०० सेंमी. आनी १८००सेंमी. इतलो पडटा. राजपाटण शिलाँग हांगाचो वर्सुकी पावस २४१.५सेंमी. आसा.

**वनस्पत आनी मोनजात** : चड पावसाक लागून हांगा रानांचोय वाठार चड म्हळयार ८,५१,०००हेक्टर इतलो आसा. पाइन, सायल, कोंडो तशेंच बर्च, ओक, बीच, गुरग्रा, हळदू, डालू आनी कवठी चांफो ही वनस्पत हांगा चड प्रमाणांत मेळटा.

हत्ती, वाघ, हरण, सांबर, भांगरामाजर, हूलॉक, रानदुकर, रानरेडो, रानगवो, लांडगो, सोंसो, माकड, शेंपडी नाशिल्लो माकड, सोरोप, चानी, मोर, तितर, कबुतर, हॉर्नबिल, रानबदक, पोपट ही मोनजात थंय आसा.

**इतिहास** : पुर्विल्ल्या काळांत ब्रह्मदेश आनी मिझो ह्या वाठारांतल्यान मंगोलियन वंशाचे लोक हांगा येवन रावले. आहोम लोक आसामांत राज्य करताले. तांकांलागून ह्या वाठाराचेर हिंदू संस्कृतायेचो प्रभाव पडलो. खासी, जैंतिया आनी गारो ह्यो हांगाच्यो मुखेल जमाती. ब्रिटिशांवेळार हांगा खिस्ती धर्माचो खूब प्रसार जालो. मॉनख्मेर आनी तिबेटो-ब्रह्मी टोळयो हांगा परत परत येताल्यो. मेघालयांतली मुखेल 'खासी' जमात मॉनख्मेर वांशिक परंपरेंतली आसून जैंतिया जमात लेगीत हेच परंपरेंतली आसा. गारो जमात तिबेट परंपरेंतली. हे लोक बोडो भास उलयतात.

खासी-जैंतिया ह्या जमातींच्या मुखेल्याक सीएम् ह्या नांवान वळखतात. ब्रिटिशांच्या सुरवेच्या काळांत हांगा २५ वयर सिएम् आपापल्या

वाठारांत मुखेल आशिल्ले. १८२४ वर्सासावन ब्रिटिशांनी, सीएम् राज्यकारभारांत हस्तक्षेप करपाक सुरवात केली. ब्रह्मदेशान घाल्ले घुरयेक लागून जैंतिया जमातीचो राजा ऊरामसिंह हाणें ब्रिटिशांकडे पालव मागलो. ब्रिटिशांनी ही घुरी परतिली पूण ह्या वाठारांत खूब बंधनां घालीं. १८२९ वर्सासावन ब्रिटीश आनी खासी वादाक सुरवात जाली.

इंग्लीश अधिकारी डेव्हिड स्कॉट हाणें राणीकुदाय ते सिल्हेर असो मार्ग करपाची येवजण आंखून तेखातीर नौंगल्खा हांगाचो सीएम् तिरोतसिंह हाचेकडेन परवानो मागलो. सुरवेक ताणें हयकार दिलो पूण ब्रिटिशांचो ह्या प्रदेशाचेर शेक गाजोवपाचो हेत कळटकच ताणें ब्रिटिशांक विरोध करपाक सुरवात केली. हीं झगडीं ४ वर्सां चलतालीं. ब्रिटिशांनी एकेका सीएमाक हारयलो आनी तिरोतसिंहाक बंदखणींत दवरलो.

१८६३ वर्सा ब्रिटिशांनी जैंतियांचें राज्य खासी प्रदेशाक जोडून खासी-जैंतिया असो नवो प्रदेश तयार केलो. कंपनी सरकाराचो शेक चलतालो तेन्ना दिवाणी आनी फौजदारी खटल्याचें काम सीएम् हाचेकडे सोंपयल्लें. ह्या प्रदेशांतले रस्ते ब्रिटिशांनी केले. चुन्याच्यो भट्ट्यो, शेतां असली सगळी धन दौलत ब्रिटीश अधिकाऱ्यांनी बळजबरेन बळकायली. तांकां विरोध करतल्यांक खर ख्यास्त मेळटाली. सीएम्च्या आवांठाभायलो वाठार ब्रिटिशांनी सरसकट बळकायलो. ल्हव ल्हव करून सीएम्चे अधिकार उणे जाले. १८५३ वर्सा ह्या वाठारांतलें लश्कर आनी नागरी प्रशासन वेगळें केलें. १८६४ वर्सा चेरापुंजी हांगाची राजधानी हालोवन शिलाँग हांगा व्हेली आनी थंयचो कारभार पळोवपापसत एका उपआयुक्ताची नेमणूक केली. १८८३ वर्सा पुराय खासी प्रदेशाचेर ब्रिटिशांनी आपलो शेक दवरलो. सीएमांक हें मानवलेंना. १९२३ वर्सा 'खासी राश्ट्रीय दरबार' ह्या राजकीय पक्षाची स्थापणूक केली. खासींनी सुरू केल्ले हे राजकीय स्वातंत्र्याचे चळवळींत गारो जमातीच्या मुखेल्यांनीय वांटो घेतलो.

खासी जमातीक १९२१ वर्सा आसाम विधानसभेंत एक प्रतिनिधी धाडपाचो अधिकार मेळ्ळो. पूण मतदानाचे अधिकार फकत शिलाँगांतल्या नगरपालिका वाठारांतल्याच व्यक्तींक दिलो. १९२७-२८ वर्सा सायमन आयोगामुखार खासींनी आसाम विधानसभेंत २ प्रतिनिधी आसचे अशी मागणी केली. १९३५ वर्साच्या कायदयाप्रमाण आसाम प्रांतिक विधानसभेंत खासींचे ३ प्रतिनिधी वेंचले. तातूंत एक खासी बायल लेगीत आशिल्ली. आसामांत खासी समाजांतलेच लोक चड शिकिल्ले आशिल्ले. १९३४-३५ वर्सा खासी स्टेट फेडरेशनची स्थापणूक जाली.

भारत स्वतंत्र जावचेपयलीं सगळया खासी सीएमांनी एकठांय येवन 'राश्ट्रीय दरबार' संघटनेची स्थापणूक केली. एका स्वतंत्र पर्वतीय राज्याची मागणी करपाचो तांचो बेत आशिल्लो. पूण जे. जे. निकोलस रॉय सारक्या फुडाऱ्यांनी, ताचे बदलाक भारतीय संघराज्याभितर स्वायत्त राज्याची मागणी केली. भारतीय संविधान तयार करतना भारत सरकारान निकोलस रॉय हाचे सुचवणेप्रमाण 'बार्दोलोई उपसमिती' नेमली. हे समितीन जिल्हा समिती स्थापन करपाची सुचोवणी केली. तेप्रमाण ह्या वाठारांत जिल्होसमित्यांची स्थापणूक जाली.

१९५४ वर्सा तुरा शारांत विल्यमसन संगमा हाच्या फुडारपणाखाल भरिल्ले परिशदेंत, ह्या पर्वतीय वाठाराचें आसामासावन वेगळें आनी स्वतंत्र राज्य निर्माण करचें असो निर्णय घेतलो. पूण १९५६ वर्सा राज्यपुनर्रचना आयोगान ही मागणी मान्य केली ना आनी आसाम राज्यांतूच ह्या वाठाराचो आस्पाव केलो. १९५७ वर्साची वेंचणूक जातकच विल्यमसन संगमा हाचो आदिम जाती कल्याणमंत्री म्हूण आसाम मंत्रिमंडळांत आस्पाव जालो. १९६० वर्सा हाफलोंग हांगा मेघालयांतल्या फुडाऱ्यांची बसका जावन तातूंत परतून स्वतंत्र राज्याची मागणी केली. १९६१ वर्सा ऑल पार्टी हिल लीडर्स कॉन्फरन्स स्थापन जावन तुरा हांगा हे संघटनेवतीन परिशद भरयली. १९६२ वर्साचे वेंचणुकेंत खासी गारो प्रदेशांतले सगळे १२ उमेदवार वेंचून आयले पूण स्वातंत्र्याची मागणी पुराय जाली ना. देखून ७ प्रतिनिधींनी विधानसभेचो राजीनामो दिलो.

३१मार्च १९६२ सावन थेट चळवळ करपाचें पर्वतीय फुडाऱ्यांनी थारायलें. पूण त्याच वेळार चीनान भारताचेर घुरी घाल्ल्यान हो बेत फुडें धुकलचो पडलो. १९६३ वर्सा जाल्ले पोटवेंचणुकेंत ऑल पार्टी हिल लीडर्स कॉन्फरन्सचे ६ उमेदवार वेंचून आयले. पंडित नेहरून आसाम राज्यांतूच पर्वतीय वाठाराचें स्वायत्त राज्य करचें अशी सुचोवणी केली. केंद्र सरकारावतीन हरिभाऊ पाटसकर हाणें थंयच्या फुडाऱ्यांवांगडा नेहरू येवजणेचेर भासाभास केली. पूण तांकां ती मानवली ना. १९६६ वर्सा गुलझारिलाल नंदा हाणें आसामांतूच, पर्वतीय वाठाराखातीर स्वतंत्र विधानसभा आनी मंत्रीमंडळ आसचें असो थाराव मांडलो. पूण हीय मागणी तांणी न्हयकारली. १९६७ चे वेंचणुकेंत पर्वतीय फुडाऱ्यांनी स्वतंत्र राज्याचे मागणेचेरूच वांटो घेतलो. जानेवारी १९६७ त आसामाचे पुनर्रचनेविशीं दिल्लीचे बसकेंत भासाभास जाली, तेन्ना १९६७ चे विधानसभेच्या वेंचणुकांचेर पर्वतीय फुडाऱ्यांनी बहिश्कार घालो आनी आसामासयत एक संघराज्याची निर्मिती तांणी मानून घेतलीना. २५ सप्टेंबर १९६७ दिसा पंतप्रधान इंदिरा गांधीन मेघालयाचें स्वतंत्र राज्य निर्माण करपाचो निर्णय जाहिर केलो. तेप्रमाण १९६९ वर्सा भारतीय संसदेन आसाम पुनर्रचना (मेघालय) नेम पास केलो. २ एप्रिल १९७० दिसा मेघालय हें स्वायत्त राज्य जालें आनी २१ जानेवारी १९७२ सावन भारतांतलें स्वतंत्र राज्य म्हूण ताची स्थापणूक जाली.

**राज्यवेवस्था :** राज्यांतले विधानसभेंत ६० सभासद आसून राज्याचे उदरगतीखातीर २० विकासगट केल्यात. उदेंत आनी अस्तंत खासी हिल्स, उदेंत आनी अस्तंत गारो हिल्स आनी जैंतिया हिल्स अशे पांच जिल्हे राज्यांत आसात. शिलाँग, नागस्टोइन, जोवई, तुरा आनी

विल्यमनगर हीं जिल्ह्यांचीं मुखेल ठाणीं आसात. न्यायवेवस्थेचे नदरेन मेघालय, गौहाती उच्च न्यायालयांत येता. राज्यांत स्वतंत्र लोकसेवा आयोग आसा.

**अर्थीक स्थिती :** शेतकी पिकावळः शेती होच चडावत लोकांचो वेवसाय आसून, चडशे लोक शेतीचेरूच पोट भरतात. दोंगराळ वाठार आशिल्ल्यान शेतीक पूरक अशी जमीन हांगा उण्या प्रमाणांत म्हळयार १९,०९,९९४ हेक्टर इतली आसा. तातुंतली फकत २७% जमीन जलसिंचनाखाल आसा. हांगा 'झूम' पद्दतीची शेती परंपरेन चालू आसा. कायम स्वरुपाची शेती जावंची म्हूण सरकार यत्न करता. तेखातीर शेतकामत्यांक सुदारीत जमीन वांटप, सारें, बीं, उदकाची सवलत सरकार दिता. शेती उत्पादनाक बाजारपेठ मेळोवन दिवपाचोय सरकार यत्न करता. बटाट, तेझपाटा, ऊंस, कड्डण, कापूस, ताग, टॅपिओका, सुपारी, आलें, मिरयां, हळद हीं हांगाचीं मुखेल पिकां आसात. तशेंच कांय वाठारांत भात, गंव, मको हींय पिकां काडटात. खासी आनी जैंतिया जिल्ह्यांत फळां आनी भाजीपाल्याचें उत्पादन जाता. नासपत, सत्पाळू, अलुबुखार, अनस, सफरचंद, संत्रीं, लिंबू, केळीं हीं म्हत्वाचीं फळां हांगा जातात. मेंढरां, म्हशी, दुकरां आनी हेर जनावरां हांगा व्हड प्रमाणांत पोसतात. आसाम राज्याक दुदाची पुरवण हें राज्य करता. जोवई हांगा दुदाचें केंद्र आसून थंय लोणी, तूप हांचें उत्पादन जाता.

राज्यांत दगडी कोळसो, सिलिमनाइट, चुनखडक, डोलोमाइट, भाजकी माती, फेल्स्पार, कांचमिश्रित रेंव हीं खनीजां मेळटात. देशांतलें ९५% सिलिमनाइट उत्पादन हांगाच्या खासी दोंगुल्ल्यांच्या वाठारांत मेळटा.

सैमान नटिल्ल्या ह्या राज्याखातीर हांगा पर्यटन उद्देगाक खूब वाव आसा. आदिवासी संस्कृतीचीं खाशेलपणां हें पर्यटकांचें आकर्शण जावन आसा.

राज्याची उद्देगीक उदरगत चालू आसा. राज्यांत उद्देगीक विकास निगमची स्थापणूक जाल्या. खनीज संपत्ती आनी रानांतलें उत्पादन हांचेर आदारीत उद्देगधंदे सुरू जाल्यात. प्लायवूड, थंड पेयां, खावपाचें तेल, रसायनां, सारें असल्या उद्देगांचे प्रकल्प खाजगी क्षेत्रांत सुरू जाल्यात. चेरापुंजी हांगा सरकाराचो व्हड सिमेंट कारखानो आसा. गारो आनी जैंतिया हांगा सरकारान ल्हान सिमेंट कारखाने सुरू केल्यात. तशेंच लाकूड कापप, कापसाच्यो गड्डे बांदप, बेकरी असले उद्देग धंदेय राज्यांत आसात.

खासी, गारो आनी जैंतिया हांगा मेळून ६४४ ल्हान उद्देगीक केंद्रां आसात. उदकाचे ल्हान प्रकल्प आसात आनी १८,५०० हेक्टर जमनीक हाचो फायदो जाता. राज्यांत ४ जलविद्युत् आनी १ औश्णीक प्रकल्प आसा.

**येरादारी आनी संचारण :** मेघालयांत ४६१ किमी. राश्ट्रीय महामार्ग आसात. ५१३९ किमी. लांबायेचे पक्के आनी कच्चे रस्ते आसात. शिलाँग हो एकूच विमानतळ राज्यांत आसा. वायूदूत सेवा हांगा चलता.

**लोक आनी समाजजीण :** हांगा सगळ्या धर्मांचे लोक रावतात. तातूंत ५३% किरिस्तांव, १५% हिंदू, ३% मुसलमान आनी हेर धर्मांचे लोक रावतात. फाटल्या शेंकड्यासावन किरिस्तांव धर्माचो व्हड प्रमाणांत प्रसार जालो आनी खुबशा लोकांनी किरिस्तांव धर्म आपणायलो.

राज्यांत खासी, जैंतिया आनी गारो ह्यो मुखेल आदिवासी जमाती आसून, खासी आनी जैंतिया हांचे भितर खूब सारकेंपण आसा. खूब तेंपासावन, ह्या दोंगराळ वाठारांत राबितो केल्ल्यान भायल्या जगाकडे ह्या लोकांचो चड संबंद आयलोना. देखून तांच्यो चालीरिती तशोच तिगून उरल्यो. मेघालयांतली गारो जमात ही मूळची तिबेटांतली अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. हे लोक तिबेटी-ब्रह्मी वांशिक गटांतले आसात.

मेघालयांत मातृसत्ताक घराबो पद्दत आशिल्ल्यान थंयच्यो चालीरिती खाशेल्यो आसतात. आवयवटेच्यान, तांचो नात्यागोत्यांतलो इतिहास पळयतात. इस्टेटीचो वांटो आवयकडल्यान धुवेकडे वता. चडकरून धाकट्या जांवयाक, मांय-मावाची सेवा करपाखातीर मावोड्यां रावंचो पडटा. मामेभावाकडे लग्न करपाची चाल गारो जमातींत आसा. वयांत येतकच भुरगीं 'नोकपांते' नांवाच्या युवाघरांत रावतात. कुटुंबाचें शेतकाम सगळे एकठांय येवन करतात.

हे लोक कुकडां, दुकरां, गोरवां पोसतात. गोरवांचो उपेग मांसाखातीर चड करतात. तांदळांपसून तयार केल्लो 'बीर' हो सोरो थंयच्या दादल्यांचें आवडीचें पेय आसा. हालीं ते लोक हेर तरांचोय सोरो पियेतात. सणा-परबेक हे लोक सोरो पियेतात तशेंच चोम्यांनाचूय करतात.

**सण आनी उत्सव :** 'नोंगक्रेम' ही खासींची राश्ट्रीय परब वा नाचाचो उत्सव आसा. शिलाँगलागसार स्मिने नांवाच्या गांवांत ही परब मनयतात. जमात मुखेल्याकडे ह्या उत्सवाखातीर शुभदीस थारावन, धर्मीक-भौशिक असो हो नाच करतात. नाच आनी संगीत हें खासी जमातीचें खाशेलपण आसा. गीतगायन हें चडशें वाद्यवादन आनी नाचावांगडा जाता. खासी आनी गारो जमातीचे चोमोनाच मेकळ्या मैदानांत जातात. खासी दादले-बायलो वेगवेगळ्यो वाटकुळ्यो रांगो करून नाचतात. धोल, नगारे आनी पाइप हीं वाद्यां साथीक आसतात. लग्न जाल्ल्यो बायलो नाचांत वांटो घेनात. 'शदसूकमींसीयम' हो खासींचो सण जावन आसा. हो सण एप्रिल म्हयन्यांत जाता. उर्बेभरीत जावन नाचप हें ह्या सणाचें खाशेलपण आसा. भौशिक उत्सवावेळार जैंतिया

जमातींत युध्दनृत्य करतात. गारो जमातींत सुगीचो उत्सव करतात.

**कलाकुसर :** सीएम् वा मुखेल्यांचे महाल, पूल ह्यासारक्या वास्तूंनी खासी जमातीची वास्तुकला दिसून येता. हे महाल फातरांचे आसून, तांचीं दारां भांगराच्या वा रुप्याच्या तशेंच पाचव्या, हळदुव्या वालींनी सजयल्लीं आसतात. दारांचेर फातराच्यो मूर्ती आनी बावटे आसतात. मनीस, सवणीं, जनावरां, रानां हे खासी मूर्तीकलेचे विशय जावन आसात. सोनफर लागसारचे घोलींत देवनागरी लिपयेंतले कोरांतिल्ले लेख तशेंच झुजारी, हत्ती आनी घोडेस्वारांचीं चित्रां आसात. जोवई शारा लागसार, एका दाम्पत्याची शिल्पाकृती पळोवपासारकी आसा. खासींचे परंपरिक चित्रकलेंत मातयेच्या आयदनां वयलें आनी कपड्यावयलें वेलींचें नक्षीकाम पळोवपासारकें आसता. नाचावेळार घालतात ते मुकूट तशेंच तांच्या अलंकारांचेर चित्रविचित्र चित्रांचें चित्रण केल्ल्याचें दिसता. मेल्ल्या मनशाच्या आंगाचेर घालतात ते चादरीचेर फूल, सत्री, जनावरां हांचीं चित्रां काडिल्लीं आसतात.

**शिक्षण :** राज्यांतलें बरपाक्षरीचें प्रमाण १९९१ चे लोक मेजणेप्रमाण ४८.२६% आसा. राज्यांत शिक्षणीक संस्था वाडत आसात. थंय १ कायदो महाविद्यालय, २ सरकारी आनी १८ खाजगी महाविद्यालयां आनी नॉर्थ ईस्टन हिल युनिव्हर्सिटी (NEHU) आसा.

**भाशा आनी साहित्य :** खासी आनी गारो ह्यो उपभासो आसात. खासी भास ही ऑस्ट्रो-आशियाई भाशा-पगंडांतली आनी गारो, बोडो ह्यो भासो तिबेटोब्रह्मी भाशापंगडांतल्यो मानल्यात. ह्या भाशांक स्वताची लिपी नाशिल्ल्यान किरिस्तांव धर्म प्रसारकांनी तांचेखातीर रोमीचो वापर केलो. आयजलेगीत थंय रोमी लिपीच वापरतात. किरिस्तांव धर्म प्रसारकांनी हे भाशेंत एकुणिसाव्या शेंकड्यांत बायबलाचो 'नवो करार' (१८४१), पयली खासी प्रवेशिका आनी खासी-आंग्ल शब्दकोश अशें साहित्य तयार केलें. ऊ जीबोन रांब हाणें खासी धर्माचेर पयलें पुस्तक बरयलें. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणें खासी भाशेंत स्थानीक लेखकांचीं पुस्तकां तयार जावंक लागलीं. ऊ जीबोन रांब हाणेंच १८९९ वर्सा शिलाँगांत स्वतंत्र छापखानो काडलो. तशेंच सेंग-खासी ही संस्था स्थापून पाठ्यपुस्तकां तयार केलीं. ऊ रांबोनसिंह हाणें खासी धर्म, उत्सव, लोककथा ह्या विशयांचेर पुस्तकां बरयलीं. हाका खासी विनोदी साहित्याचो प्रवर्तक मानतात. शिवचरण रॉय हाणें खासी धर्मकल्पनांविशीं आर्विल्ले नदरेन पुस्तकां बरयलीं. ताचो एक ल्हान कथांझेलो उजवाडा आयला.

१८९५ ते १९१० ह्या काळांत खबरांपत्रां, म्हयनाळींय सुरू केलीं. व्ही. के. रॉय हाणें इतिहास, व्याकरण ह्या विशयांचेर पुस्तकां बरयल्यांत. राधीनसिंह बेदी हो पुर्विल्लो खासी कवी आसा. १९२० वर्साउपरांत सोसेथाम ह्या खासी कवीक खूब नामना मेळ्ळी. न्हंयो-दोंगरांचें सोबीत वर्णन तेचभशेन सामान्य लोकांचीं सुखदुख्खां ताचे कवितेंत दिसतात. ताणें केल्ल्या 'इसापनीती'च्या अणकाराक खूब नामना मेळ्ळी. ऊ थाक्यू, पी. गातफोह, एच्. इलायस, वी. जी. बरेह हे कांय विसाव्या शेंकड्यांतले नामनेचे कवी आसात. सद्याच्या साहित्यांत खासी संस्कृतायेचे अस्मितायेचेर चड भर दिसता. एच. एच. लिंडाह हाणें खैरम आनी चेरी ह्या सीएमांचो इतिहास बरयला. तशेंच खासी संस्कृतीचें आध्यात्मिक आनी भौतिक खाशेलपण ताणें आपल्या दुसऱ्या एका पुस्तकांत वर्णिलां. डी. कोस्टा हाणें पुर्विल्लीं नाटकां, कथासाहित्य, महाकाव्यां, लोककथा, म्हणी आनी वाक्प्रचार हांचें संशोधन करून साहित्य निर्मिलां. प्नार भाशेंत फकत व्हेरिअर एल्विन हाणें एकूच पुस्तक बरयलां. काकेन्सन आनी दिवाणसिंह ह्या भावांनी गारो लोकसाहित्याविशीं लिखाण केलां. प्रा. खेबेट मोमीन हाची समाजीक नाटककार म्हूण नामना आसा. खोसांग ह्या कवीन तोंडी परंपरेंतल्या एका पुर्विल्ल्या गारो महाकाव्याचें लिखाण केलां.

**म्हत्वाचीं थळां :** शिलाँग-गौहाती मार्गाचेर आशिल्लें (Uniam) सरोवर आनी तातुंतली नुस्तेमारीची सवलत, किलँग रॉक-२१३मी. उंचायेचो ग्रॅनाइट फातराचो सैमीक घुमट, चेरापुंजीलागसारचो मॉसमाई हांगाचो धबधबो, थंयसावन लागींच मॉसमाई गुहा, नर्टिआंग हांगाचीं पुर्विल्ले संस्कृतीचीं व्हड पाशाणाचीं यादस्तीकां हीं थळां पर्यटकांचीं खाशेलीं आकर्शणां थारल्यांत.

- माणिकराव राम नायक गावणेकार

## मेडार

**मेडार :** म्हैसूर प्रदेशांतली एक जात. ह्या लोकांक कांयकडे गौरिग अशेंय म्हण्टात. स्वताक हे लोक गौरीमक्कलू म्हळ्यार गौरीचो पूत अशें म्हणोवन घेतात. ह्या लोकांचे उत्पत्तीविशीं एक कथा आसा ती अशी -

एकदां पार्वतीक सूपां जाय आशिल्लीं. तेखातीर तिणें बसव म्हळ्यार नंदीच्या तोंडांतल्यान एका दादल्याक निर्माण केलो. शंकरान आपल्या आंगावयल्या सर्पांचें कोडें तयार केलें. तेन्ना पार्वतीन तयार केल्ल्या त्या दादल्यान, शंकरान तयार केल्ल्या कोंड्यांपसून बरीं सूपां तयार करून पार्वतीक दिलीं. तेखातीर पार्वतीन ताका खोटलोभर माणकां-रत्नां भेट दिलीं. पूण त्या दादल्याक त्या रत्नांचें मोल कळ्ळेंना. ताणें तीं थंयच उडयलीं आनी तो गेलो. शंकर-पार्वतीक ताचो खूब राग आयलो. तांणी ताका शाप दिलो, तुकां तुज्या धंद्यांतल्यान फकत पोटापुरतें मेळटलें चड कांयच मेळचेंना.

मेडार लोक जी भास उलयतात तिचेवयल्यान तांचे कन्नड मेडार आनी तेलुगू मेडार अशे दोन भेद जाल्यात. तशेंच तांचे गौरिग, पल्ली आनी बंडीकार अशेय तीन भाग आसात. तांच्यांत एकमेकांभितर परस्पर रोटी-बेटी वेव्हार जायनात.

हांच्यांतले कांय लोक शैव आनी कांय वैष्णव आसात. दुर्गम्म ही तांचे जातीची देवता. तिचीं खूबकडे देवळां आसात. हे लोक थरावीक दिसा देवीची पुजा करतात. त्याच वेळार नव्या कोंड्यांची पूजा करून तांचे कुडके दर एकल्याक वांट्टात. उपरांत त्या कुडक्यांची एकाद्री वस्त तयार करतात. हे पूजेदिसा जनावरांक मारून तांचें मांस शिजोवन खातात.

दिवाळे उपरांत एक दीस ते रानांत वतात. थंय कांय कोंडे कापून ते एके सारयल्ले सुवातेर दवरतात. पुजारी उपरांत त्या कोंड्यांची पूजा करता आनी एक बोकडी वा एका मेंढराचो बळी दिता. उपरांत सगळेजाण तें मांस शिजोवन खातात. कांय कडे, हे पुजे उपरांत तीन दीस सगळे लोक आपलो वेवसाय बंद दवरतात.

हे लोक बोकडां, मेंढरां वा दुकरांचें मांस खातात. तांकां सोरोय खूब आवडटा. सणा-परबेक ते खूब सोरो पियेतात.

लग्नसुवाळयांत हे लोक प्राणिहत्या करीनात. लग्न जातकच दुसऱ्या दिसा सोयऱ्यांक, इश्टांक मांस शिजोवन वाडटात आनी खूब सोरोय घालतात.

चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. एकाच कुळांत लग्नां जायनात. आते वा मामे भयणीकडे लग्न करपाक मेळटा. चली पसंत आसल्यार एका बऱ्या दिसा चल्याचो बापूय आपल्या कांय लोकांक घेवन चलयेगेर येता आनी चलयेक साडी-चोळी दिता. उपरांत थंय आशिल्ल्या सगळया लोकांक पान-सुपारी वांट्टात.

लग्नाच्या दोन दीस पयलीं सांजवेळां व्हंकलेकडले लोक न्हवऱ्यागेर वतात. दुसऱ्या दिसा कुलदेवतेची पुजा करून निवेद दाखयतात आनी सोयऱ्या धायऱ्यांक जेवण घालतात. न्हवऱ्यागेरूच हो लग्नसुवाळो जाता.

लग्न धारे पद्दतीन जाता. न्हवऱ्यान व्हंकलेच्या गळयांत ताळी बांदप हो लग्नांतलो मुखेल विधी आसता. उपरांत न्हवरो-व्हंकल एकाच पानांत जेवतात. उपरांत हे सगळे विधी परतून राती व्हंकलेगेर जातात, तेन्ना व्हंकलेचो मामा कन्यादान करता.

लग्नाच्या दुसऱ्या दिसा गिंडी शास्त्र नांवाचो विधी करतात. तेन्ना न्हवरो व्हंकलेचें एक कांकण आनी मांवाची पितुळची गिंडी म्हळयार ल्हान घागर चोरता आनी आपल्या घरांत लिपून बसता. उपरांत व्हंकल ताका सोदपाक येता. पयलीं ती चुकून आपल्या भावाकूच न्हवरो म्हणून धरता. चूक कळटकच सगळे लोक त्या भावाचीं फकाणां करतात. तो पिकार जातकच किदेंय इनाम दिवन ताचो समज घालतात. मागीर खऱ्या चोराक म्हळयार न्हवऱ्याक सोदून काडून व्हंकलेगेर व्हरतात आनी हाचेफुडें सारको वाग म्हूण विनवणी करतात.

ह्या लोकांत घटस्फोट वा विधवा-विवाहाची चाल आसा. चलयेक पयलेखेप ऋतुप्राप्ती जातकच, खास उबारिल्ल्या खोपटांत तिका दवरतात. सातव्या दिसा न्हावन ती घरांत येता. पूण सोळा दीस मेरेन तिका शुध्द मानीनात. तिचें लग्न जाल्लें आसल्यार सोळाव्या दिसा घोवाकडे तिचो संबंद येता.

बायलेचें पयलें बाळंतपण कुळारा जाता. सातव्या म्हयन्यांत दुवाळयांचें जेवण करून तिका नवी साडी-चोळी दितात. णव दीस सुयेर पाळटात. णवव्या दिसा शेजारच्यो बायलो तिच्या न्हाणाखातीर कळसोभर हून उदक घेवन येतात. तांकां सगळयांक त्या दिसा जेवण दितात. सांजवेळां पोरन्या पाळण्याची पुजा करून तातूंत भुरग्याक दवरतात आनी बारसो करतात. तिसऱ्या वर्सा कुलदेवतेच्या देवळांत, भुरग्याचें जावळ काडून त्याच दिसा ताचे कान तोपतात.

मेडार जातीच्या मुखेल्याक यजमान वा गौड अशें नांव आसा. तशेंच तांच्यांतल्या दर एका कुळाचो कट्टेमणी नांवाचो एक अधिकारी आसता. यजमान, जातींतलीं झगडीं-झुजां सोडयता.

सादारणपणान हे लोक मडें पुरतात. अकस्मात कोणूय मेल्यार वा म्हारोगान मरण आयल्यार तें मडें लासतात. मडें पुरतना ताची तकली दक्षिणेवटेन दवरतात.

हांच्यांतले वैष्णव लोक अंत्यसंस्कारांखातीर सातानी पुरोयताक आपयतात. तिसऱ्या दिसा ते मृतात्म्याक थडग्याचेर पिंड दितात आनी कावळयान तो खावंचो अशी इत्सा करतात. कावळो पिंडाक आफुडलोना जाल्यार मेल्ल्या मनशाची निमाणी इत्सा पुराय करपाचें उतर दितात. इकराव्या दिसा परतून पिंडदान करतात आनी सोयऱ्या-धायऱ्यांक जेवण घालतात. बारा दीस सुतक पाळटात.

ह्या लोकांचो शकुनांचेर खूब विस्वास आसा. सद्दां कामाक सुरवात करचे पयलीं ते आपल्या हत्यारांची प्रार्थना करतात. कोंडे हाडूंक रानांत वचचे पयलीं शुभ शकुन पळेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मेडावर, सर पीटर ब्रायन :** (जल्म : २८ फेब्रुवारी १९१५, रीओ दे जानेरो-ब्राझील; मरण : २ ऑक्टोबर १९८७).

ब्रिटीश जीवविज्ञानीक आनी वैजकी शास्त्रज्ञ. ताचें शिक्षण मार्लबरो कॉलेज आनी मॅग्डालीन कॉलेज (ऑक्सफर्ड, इंग्लंड) हांगा जालें. पदवी मेळयतकच सर हॉवर्ड फ्लोरी हाचे विकृती विज्ञान प्रयोगशाळेंत कांय दीस काम केल्ल्यान ताका वैजकी जीवविज्ञानांत संशोधन करपाची आवड जाली. १९३५ त ताणें मॅग्डालीन कॉलेजांत ख्रिस्तोफर वेल्श शिश्यवृत्ती मेळयली आनी थंयच वडील प्रयोग-निदर्शक म्हूण ताची नेमणूक जाली. १९३८त ताका त्या कॉलेजचें फेलोपद मेळ्ळें. तेउपरांत तो ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत प्राणीविज्ञानाचो व्याख्यातो (१९३८-४७),

बर्मिंगहॅम विद्यापिठांत प्राणीविज्ञानाचो मॅसन प्राध्यापक (१९४७-५१), लंडन विद्यापिठाच्या युनिव्हर्सिटी कॉलेजांत प्राणीविज्ञानाचो जॉर्डेल प्राध्यापक (१९५१-६१) आनी लंडन हांगाच्या नॅशनल इन्स्टिट्यूट फॉर मेडिकल रिसर्च हे संस्थेचो संचालक (१९६२-७१) आशिल्लो. १९७१त तो क्लिनिकल रिसर्च सेंटरच्या शस्त्रक्रियाविज्ञानाच्या विभागाचो मुखेल जालो. रॉयल इन्स्टिट्यूशनांत प्रायोगिक वैजकीचो प्राध्यापक म्हणूनय ताणें काम केलें.

सुरवेक ताणें उतकसंवर्धनांतल्या वृध्दी नियंत्रक घटकांविशीं संशोधन केलें, पूण दुसऱ्या म्हाझूज काळांत ताचें लक्ष वैजकी जीवविज्ञानाकडे गेलें. जायबंदी जाल्ल्यो तंत्रिका पक्क्यो एकठांय हाडपाखातीर आनी तंत्रिका प्रतीरोपण ताचे योग्य सुवातेर धरून दवरपाखातीर जैव आसंजक (दसोवपी पदार्थ) म्हूण उपेगी पडपी फायब्रिनोजेन ह्या रगत साखळावपी प्रथिनाचो संहत (Concentrated) विद्राव ताणें तयार केलो.

झुजांत मरण आयिल्ल्या कितल्याशाच व्यक्तींच्या लासून तयार जाल्ल्या जखमांक लागून वैजकी संशोधन परिशदेचे विनंतीवयल्यान मेडाव हाणें भजिल्ले व्यक्तीचेर दुसऱ्या व्यक्तीच्या कातीच्या केल्ल्या प्रतीरोपणाचो शरिरांत स्वीकार न जावपाच्या कारणांचो अभ्यास करपाक सुरवात केली. ताका अशें दिसून आयलें. दर एका मनशांत स्वताचें प्रतीरक्षा तंत्र विकसित जाता आनी प्रतीरोपण तिगोवपाचो काळ कात दिवपी मनीस आनी घेवपी मनीस हांच्यांत कितलें लागींचें नातें आसा, हाचेर आदारून आसता. एकयुग्मजीय वा एकसम जुवळयांतूच न्हय, तर दोट्टीयुग्मजीय आनी भ्रातीय जुंवळयांतूय परस्परांमदलें प्रतीरोपण यशस्वी जाता, अशें मेडावर हाका दिसून आयलें.

बर्नेट हाणें अशें सुचयलें, गर्भधारणेच्या वेळार प्रतीरक्षात्मक तंत्र विकसित जायना, तर तें क्रमाक्रमान उपार्जित वा संपादित करतात. ताका लागून एकाद्रया जनावराच्या भ्रूणांत भावी दात्याचें एकाद्रें ऊतक अंतःक्षेपित (inject) केलें, तर तें जनावर त्या दात्याच्या खंयच्याय प्रतीरोपणाक सहिष्णू जावपाक जाय. मेडावर हाणें ह्या गृहितकाची चांचणी घेवपाखातीर हुंदरांच्या भ्रूणांत हेर हुंदरांच्या ऊतकांचें अंतःक्षेपण केलें आनी ताचेवयल्यान ह्या बाह्य ऊतकाक प्रतीकार करपी प्रतिपिंडां निर्माण करपाची तांक भ्रूणांत नासता, पूण त्या ऊतकाविशीं प्रतीरक्षात्मक सहिष्णूता प्राप्त जाता, हें पारखून पळयलें. अशा हुंदरांत दात्या हुंदराचे कातीचें प्रतीरोपण यशस्वी जाता, अशें ताका दिसून आयलें. हाचेवयल्यान कृत्रिम रितीन उपर्जित प्रतीरक्षात्मक सहिष्णूता उत्पन्न करूं येता, अशें ताणें सिध्द केलें.

उपार्जित प्रतीरक्षात्मक सहिष्णूतेच्या सोदाखातीर मेडावर हाका सर फ्रँक मॅकफार्लेन बर्नेट हाच्या वांगडा १९६० वर्साचो शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो. ताका आनीकूय कितलेशेच भोवमान फाव जाल्यात. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशींः The Uniqueness of the individual (१९५९), The future of Man (१९६०), A Hope of Progress(१९७२), Advice to a young Scientist (१९७९), The Limits of Science (१९८४).

- कों. वि. सं. मं.

**मेण :** रसायनीक नदरेन तेल आनी चरबी ह्या कार्बन संयुगांत पडपी एक पदार्थ. अर्दवट मोव, अर्दवट घनरूप, अर्दवट अपारदर्शक, उदकांत न विरगळपी, बेगीन वितळपी, सोंपेपणी आकार घेवपाइतलो लवचीक आनी रंग घेवपाइतलो परिवर्तनशील, अशे विस्कळीत पणान मेणाचे भौतिक तशेंच रसायनीक गुणधर्म आसात आनी हे म्होंवामुसांनी निर्माण केल्ल्या मेणाक पुरायपणान लागू जातात.

मेणां, दोन तराचीं आसतात. वनस्पत आनी मोनजात हांचेवरवीं निर्माण जावपी सैमीक मेण आनी खनिज तेल, दगडी कोळसो वा तत्सम खनिज पदार्थ हांचेवरवीं तयार जावपी कृत्रिम मेण.

**संघटन :** मेणां हीं जायत्या संयुगांचीं मिश्रणां आसतात. वनस्पतीज आनी प्राणिज मेणांत चडकरून $C_{16}$ ते $C_{34}$ ह्या मर्यादेंतली कार्बन अणूंची समसंख्या आशिल्लीं वसाम्लां आनी तेचप्रकारचीं वसा अल्कोहॉलां हांच्यापसून तयार जाल्लीं एस्टरां आसतात. भायर कार्बन अणू आशिल्लीं आल्डिहाइडां आनी कीटोनां तशेंच कांय प्रमाणांत विषम अणु संख्या आशिल्लीं हायड्रोकार्बनां, स्टेरॉलो आनी रेझिनां ह्या वर्गाचीं संयुगां आनी मुक्त स्थितींत आशिल्लीं वसाम्लां आनी वसाअल्कहोलां आसतात. मेणाचे गुणधर्म हे तातूंत आशिल्ल्या संयुगांचे रसायनीक वर्ग आनी तांचीं प्रमाणां हांचेर आदारिल्ले आसतात. हें थारावपाखातीर स्तंभवर्णन लेखन पद्दतीन घटक सहजपणान वेगळे करूं येतात. उपरांत एस्टर वर्गाच्या संयुगाचें क्षारीय विच्छेदन करून तातूंतलीं अम्लां आनी अल्कोहोलां हांची तपासणी करून तातूंतली कार्बन अणुसंख्या निश्चीत करतात. दर एका रसायनीक वर्गांतली घटकांची संख्या आनी प्रमाणां वायुवर्णलेखन ह्या तंत्राच्या आदारान थारावंक मेळटात.

कॉपर्निशिया सेरिफेरा, ऊंस, पेडिलँचस पॅव्होनिस तण, घायपात, एस्पार्टो तण ह्यो मेण उत्पादक वनस्पती आसात. जाल्यार म्होंवा मूस, मेंढरांची लोकर, लॅसिफेरिनी कुळांतल्या कीटकांची लाख, देवमाशाची चरबी, सर्पी, कुश्ठरोग आनी क्षयरोग, हांचे जंतू हे मेणउत्पादक जीव आसात.

खनिज तेल मेण, ओझोकेरायट मेण, मॉंटन मेण, पोलिथीन मेण, फीशर ट्रॉप्स मेण, कार्बोवॅक्स मेण, हेकस्ट मेण, हायड्रोजनी करणान मेळपी मेण, कीटोन मेण, एस्टर मेण हीं कांय मुखेल कृत्रिम मेणां आसात.

उदकांत न विरगळपी मेणाच्या गुणांचो फायदो पाणबंद (water-tight), हवाबंद (airtight) वेस्टनां तयार करपाखातीर जाता. चामड्याच्यो वस्तू, लाकडी सामान, जमनीची फरशी, धातूचो पृश्ठभाग हांची उदक, तशेंच वाफ हांचेपसून राखण जावपाखातीर आनी तांकां चकाकी येवपाखातीर मेणाचो वापर करतात. विद्युत् सामान, कार्बन कागद, मेणवाती, छपाईची शाई, सौंदर्य प्रसाधनां, प्लास्टीकच्या वस्तूंच्या उत्पादनांत, मूर्तिचे सांचे तयार करपाक मेणाचो उपेग करतात.

मेणापसून वेगवेगळ्यो कलात्मक वस्तू तयार करतात. मेणाचें लवचिकपण आनी चकाकीपण हे गूण मेणाच्यो मूर्ती आनी हेर कलाकुसरीच्यो वस्तू करपाक मदत करतात. मेणाच्यो मूर्ती, धातू, फातराच्या मूर्तीच्यो प्रतीकृती आनी मूर्तीं खातीर सांचे अशा तिष्टी कामाखातीर मेणाचो शिल्पकलेंत उपेग करतात. हातान काडपाच्या रंगाचें रंगमाध्यम म्हूण मेणाचो उपेग करप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद** : मेणवात.

**मेणवात** : सुताचे वाती भोंवतणी मेण, चरबी वा तत्सम पदार्थाचो थर दिवन केल्ली काडयेच्या आकाराची बत्तीं मेणवातीचे दिवे ही मातयेच्या वा फातराच्या आनी कांय प्रमाणांत धातुचे दिवे आनी आधुनिक अशे गॅसाचे दिवे वा विजेचे दिवे हांचे मदली अवस्था आसा.

आदले मेणवातीचें स्वरूप आयच्या सारकें नासलें, तरी खूब आदीं सावन मेणाच्या वातीचो वापर जातालो जावंये. इजिप्शीयन थडग्याचेर मेणवातीच्यो आकृत्यो कोरिल्ल्यो मेळळयात जाल्यार इ.स. आदीं सुमार ३००० च्या काळांतल्यो मेणवातीच्यो आकृती क्रीट हांगा सांपडल्यात. सुर्वेक वात म्हूण तणाचो उपेग जातालो. उपरांत ताची सुवात सुतावातीन घेतली. मध्ययुगांत मेणचरबीच्या मिश्रणाच्यो मेणवाती वापरांत आशिल्ल्यो आनी लोक घरचे घराच त्यो करताले. १५व्या शतमानांतल्यान मेणवाती सांच्यांतल्यान तयार करपाक लागले. १८व्या शतमानांत देवमाशाच्या तेलापसून केल्लें मेण, १९व्या शेंकड्याच्या मध्यकाक दगडी कोळसो आनी खनिज तेलापसून केल्ल्या मेणाचोय सुदारीत प्रकाराच्यो मेणवाती तयार करपा खातीर वापर जातालो. १९व्या शतमानाचे अखेरेक मेणवात जळटना येवपी घाण पयस करप तशेंच वारो उजवाड दिवपाखातीर मेणाचेर प्रक्रिया करप जाली. आधुनिक मेणवातीचो सांचो १८३४ वर्सा जोसेफ मॉर्गन हाणें तयार केलो. उपरांत ह्या यंत्रांत फुडें खूब सुदारणा जावन सद्या तें स्वयंचलित यंत्र जालां.

**निर्मिती** : मेणवातीचे निर्मितीचे मुखेल तीन भाग जातातः- १) वातनिर्मिती २) मेणमिश्रण तयार करप आनी ३) सांच्याच्या आदारान मेणवातीची अखंडित निर्मिती.

**१) वातनिर्मिती** : बरे प्रतीचो कापूस वा लिनन हांचेपसून विणून वा पीळ दिवन फाव तितल्या जाडायेची वात तयार करतात. वातीची सच्छिद्रता वा केशाकर्शण अशें आसता, जें मेण कडटकच ते वातींल्यान रोखडेंच ज्योत भागाकडेन वता. उपरांत कांय काळ वात अकार्बनी लवणांच्या विद्रवांत भिजोवन दवरतात आनी उपरांत त्यो सुकयतात. हाकाच लागून ही वात मंद जळूंक शकता. वात लवणान भिजयनासतना वापरल्यार बेगीन जळटा आनी कडिल्ल्या मेणांत पडून पालवता.



**२) मेणमिश्रण** : सादारण-पणान मेणाच्या मिश्रणांत पॅराफीन (६०%), स्टिअरिक अम्ल (३५%), म्होंवामुसाचें मेण (५%) आसता. पूण वेगवेगळ्या देशांतल्या हवामानाप्रमाण तातूंतल्या घटकांचें प्रमाण वेगवेगळें दिसून येता. कांय खेपे हातूंत कँडेलिल्ला वा कार्नोबा मेण भरशितात. रंगीत मेणवातींखातीर ॲनिलीन रंजकासारक्या मेण विद्राव्य (मेणांत विरगळपी) रंजकाचो वापर करतात.

मेणाचें मिश्रण सांच्यांत ओतचे आदीं तें निवळ आनी प्रवाही आसचें पडटा. बाष्पवेष्टित किटलेंत मेण कडोवप जाता.

**३) सांच्यांतल्यान अखंडित निर्मिती** : यंत्रांत एकेचवांगडा खूब प्रमाणांत मेणवाती तयार जातल्यो अशे सांचे आसतात. हातूंत अखंड वातीचो तेचपरी तयार जाल्ली मेणवात सांच्यांतल्यान भायर धुकलपाखातीर सरकुपी पट्ट्यांचो वापर करतात. सांचो बरे प्रतीच्या कथिलापसून तयार करतात आनी तातूंतलो भितल्लो भाग खुबूच गुळगुळीत करतात. जाकालागून मेणवातीक बरी चकाकी येता. सांच्यांत मेणवातीचो पोंदचो भाग वयलेवटेन आसता आनी तो उगडो आसता. ह्या उगड्या भागांतल्यान हून मेण ओततात. मेणवातीचें अशीर तोंक बंद उरता आनी तें एका पोकळ दट्ट्याक जोडिल्लें आसता. सांच्याच्या सकयल आशिल्ल्या रिळावयल्या दट्ट्यांतल्यान वात सांच्यांत येता आनी ती सांच्याच्या कडेवटेन व्हरप जाता. सांचो थंड जातकच पट्टो वयर वता आनी मेणवात वयर धुकलता. तेचवेळार दुसरे मेणवाती खातीर वात सांच्यांत येता. पयल्या मेणवातीची वात तोंकांकडेन कापून चिमट्यांतल्यान वेगळी करतात. मेणाचें मिश्रण सांच्यांत ओततकच मेणवात भायर येवपाक सुमार २०-३० मिनटां लागतात.

कांय कडेन खास उपेगाखातीर चरबीच्यो डिप्स अजुनय तयार करतात. कडिल्ल्या मेणांतल्यान लांब वात ओडून टेपर ह्या नांवान वळखुपांत येवपी मेणवाती तयार करतात.

**उपेग** : उजवाड निर्माण करप हो मेणवातीचो परंपरीक मुखेल उपेग. आदल्या काळांत तिच्या जळपाच्या काळावयल्यान दिसाचो काळ मेजप जातालो, सतराव्या शेंकड्यांत इंग्लंडांत पावणेचो काळ थारावपाक मेणवात पेटयताले. मेणवात सोंपली म्हणजे पावणेचो काळ सोंपतालो. किरिस्तांव समाजांत मेणवातीक खूब व्हड म्हत्व आसा. अविनाशत्व, चिरंतन, अमरत्व, सार्वकालीकता, सौंदर्य आनी दैविकता ह्या मुल्यांचें प्रतीक म्हूण मेणवातीकडेन पळोवप जाता. रोमन कॅथलीक चर्चींनी, एक संस्कार म्हूण मेणवाती पेटोवप जाता. कॅन्डल मास डे (२ फेब्रुवारी), पास्काल मेणवात आनी फीस्ट डे हे मेणवाती संबंदींचे कांय संस्कार. जल्मदीस आनी सणा परबांनी देवामुखार मेणवाती लावपाची चाल आसा. बारशाच्या वेळार नामकरण मेणवात भुरग्याच्या हातांत दितात. मेणवातीची अंगवणय करप जाता. ते भायर मेणापसून तयार केल्ल्यो अवयवांच्यो आकृत्यो देवाक ओंपतात. हालींसरा मेणवातीच्या आकारांत आनी रंगांत बरीच विविधता दिश्टी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद** : मेण.

## मेथी

**मेथी** : एक वनस्पत. तिचो उपेग बोटां, तळवे, नाखटां आदी रंगोवपाखातीर करतात. तिचे फुलांपसून हिना नांवाचें अत्तर काडटात. ही वनस्पत सादारणपणान उश्ण प्रदेशांत आनी रेंवट जमनींत वाडटा. जायतेकडेन वंयेखातीर मेथयेचीं झोपां लायतात.

मेथयेचीं पानां बारीक वांट्टा आसतना तातूंत लिंबाचो रोस वा चिंच घालतात. उपरांत ही वांटिल्ली मेथी नाखटांक, हातांच्या तळव्यांक आनी पांयांक लायतात. ती सुकतकच धुवन उडयतात. तेन्ना नाखटां आनी तळवे गडद केसरी रंगान रंगिल्ले दिसतात. हो रंग तीन-चार सप्तकां तिगून उरता.

मुसलमान दादले केंस आनी खाड हांकां मेथी लायतात. पिकिल्ल्या धव्या केंसांचो रंग धांपपाक मेथीचो वापर करतात. मेथी लावपाची चाल मुसलमानांनी भारतांत हाडली, असो कांय लोकांचो समज आसा. पूण गुप्त काळासावन भारतांत मेथी लावपाची चाल आशिल्ली. संस्कृत भाशेंत 'मदयंतिका' ह्या नांवान मेथयेचो उल्लेख केल्लो मेळटा.

पंजाब, राजस्थान आनी उत्तर प्रदेश ह्या वाठारांत शृंगाराचें एक साधन म्हूण मेथयेक म्हत्व दिलां. ह्या वाठारांत लग्नाचे पयले राती न्हवऱ्या-व्हंकलेक मेथी लावपाची चाल आसा.

राजस्थानांत कखाँ चौथ, तीज, नागपंचम ह्या सणपरबेचे आदीं कुमारीका आनी सौभाग्यवती बायलो हातांच्या तळव्यार आनी पांयार वेगवेगळ्यो आकृत्यो करून मेथी घालतात. मेथयेच्यो वेगवेगळ्यो आकृत्यो काडप, ही एक कलाच. गुजरातांत नवी व्हंकल घोवागेर वता आसतना हाता-पांयांक मेथी लायतात. महाराष्ट्रांत नागपंचमीचे परबेक चलयो आनी सवाशिणी बायलो मेथी घालतात.

गोंयांत लग्ना आदल्या दिसा व्हंकलेच्या हातांच्या तळव्यांक तशेंच पांयांक मेथी लायतात. सौभाग्यवती बायलो तशेंच कुमारीका चडकरून श्रावण म्हयन्यांत मेथी घालतात. श्रावण म्हयन्यांत मेथी चड रंगता, असोय एक समज आसा.

मेथी थंड आशिल्ल्यान ती लायतकच हातापांयांची उश्णता कमी जाता. देखून कांयकडेन दादलेय उबाळाच्या दिसांनी हात, पांय आनी तकली हांचेर मेथयेचो लेप काडटात. कातीच्या रोगाक मेथी गुणकारी थारता.

- कों. वि. सं. मं.

## मेन, सर हेन्री जेम्स समनर

**मेन, सर हेन्री जेम्स समनर** : (जल्म : १५ ऑगस्ट १८२२, केल्सो-स्कॉटलंड; मरणः ३ फेब्रुवारी १८८८, कां-फ्रांस).

नामनेचो समाजशास्त्रज्ञ, मानवशास्त्रज्ञ आनी कायदेपंडीत. १८४४ त ताणें केंब्रिज विद्यापिठाच्या पेंब्रुक महाविद्यालयांतल्यान पदवी घेतली. उपरांत ताची १८४५-१८४७ ह्या काळांत ट्रिनिटी कॉलेजांत पाठनिर्देशक म्हूण नियुक्ती जाली. १८४७-१८५४ ह्या काळांत तो केंब्रिज विद्यापिठांत दिवाणी कायदो ह्या विशयाचो प्राध्यापक आशिल्लो. मदीं कांय काळ ताणें वकिलीचो धंदो केल्लो. १८५२ त तो 'इन्स ऑफ कोर्ट' हांगा रोमन विधी आनी न्यायशास्त्राचो प्रपाठक आशिल्लो. १८६१ त ताचो 'ॲन एन्शन्ट लॉ इटस कनेक्शन विथ द अर्ली हिस्टरी ऑफ सोसायटी अँड इटस रिलेशन टू मोडर्न आयडियाज' हो ताचो सर्वोत्कृश्ट ग्रंथ उजवाडा आयलो. राजकीय सिध्दांत आनी मानवशास्त्र ह्या दोनय नदेरेन ताणें मांडिल्ल्या आदिवासी कायद्यावयल्या विवाद्य मुद्द्याकलागून हो ग्रंथ म्हत्वाचो थारला. ह्या ग्रंथाखातीर ताणें रोमन, युरोपीय, भारतीय आनी हेर पुर्विल्ल्या कायद्या पद्दतीचो आदार घेतला. ह्या ग्रंथाक लागून तौलनिक न्यायशास्त्राक मान्यताय मेळ्ळी.

१८६३-१८६९ ह्या काळांत तो गव्हर्नर जनरलच्या काउन्सिलचो कायद्याविशींचो वांगडी म्हूण भारतांत आयलो. भारतीय कायद्याची संहिता तयार करपांत आनी सुदारणा घडोवन हाडपांत ताचो मोलाचो वांटो आसा. ताणें न्यायखात्यांत खूबशो सुदारणा करून सुमार २०९ कायदे संमत केले. तातूंत वेपार, वारसो, लग्न, घटस्फोट आदी विशींच्या मुखेल कायद्यांचो आस्पाव जाता. वॉर्ड हाणें संपादित केल्ल्या द रेन ऑफ क्वीन व्हिक्टोरिया ह्या ग्रंथांत मेन हाणें भारताविशीं म्हत्वाचे विचार मांडल्यात.

तीन वर्सां तो कलकत्ता विद्यापिठाचो कुलगुरू आशिल्लो. फुडें ताची ऑक्सफर्ड आनी केंब्रिज विद्यापिठांत प्राध्यापक म्हूण नेमणूक

जाली. १८७१ त ताका सर ही पदवी दिली. व्हिलेज कम्युनिटीज (१८७१), अर्ली हिस्टरी ऑफ इन्स्टिट्यूशन्स (१८७६), डिसर्टेशन्स ऑन अर्ली लॉ अँड कस्टम (१८८३), पॉप्युलर गव्हर्न्मेंट (१८८५), इंटरनॅशनल लॉ (१८८८) हे ताचे कांय उल्लेख करपासारके ग्रंथ. तत्कालीन राजकीय, अर्थीक विचारीक मळार आपले स्वतंत्र विचार मांडपी व्हड व्यासंगाचो विचारवंत म्हूण ताका मानाची सुवात मेळ्ळया.

- कों. वि. सं. मं.

**मेन्शेव्हिक :** रशियांतल्या 'सोशल डेमॉक्रेटिक वर्कर्स पार्टी' हातुंतल्या अल्पमतांत आशिल्ल्या पंगडान फुडें आपली वेगळी संघटना उबारली त्या गटाक 'मेन्शेव्हिक' गट अशें म्हण्टात. सोशल डेमॉक्रेटिक वर्कर्स पार्टीच्या वांगडीपदाखातीर पात्रतायेच्यो खंयच्यो अटी आसच्यो, हाचेवयल्यान पयलीं मतभेद जाले. लेनिनान पक्ष वांगडीपदाखातीर म्हूण ज्यो पात्रतायेच्यो अटी सुचयल्ल्यो त्यो मार्तोव्ह हाका मान्य नाशिल्ल्यो. अस्तंत युरोपांतल्या लोकशाही समाजवादी पक्षाप्रमाण रशियांतल्या ह्या पक्षाची घटना आसची, अशें मार्तोव्हचें मत आशिल्लें. समाजांतल्या शेतकार-कामगार वर्गाची मध्यम वर्गाच्या क्रांतीचेर कुरघोडी आसूंक फावना आनी समाजवादी समाजरचना जावंचेपयलीं उदारमतवादी, भांडवलशाही मार्क्सच्या सिध्दांताप्रमाण येवंक जाय, अशें मार्तोव्ह गटाचें मत आशिल्लें.

१९०५ वर्साचे क्रांतींत मार्तोव्ह गटान सक्रिय वांटो घेतलो खरो, पूण तेउपरांत पार्लमेंटांत तो सहभागी जालो. आपल्याक संसदीय वेंचणुकेंत यश मेळ्ळें म्हळयार तें लोकशाय प्रस्थापित जावपाचे नदरेन योग्य पावल थरतले, अशें ह्या पंगडाक दिसतालें. १९१२ त सोशल डेमॉक्रेटिक वर्कर्स पार्टींतूच फूट पडली आनी फुडें पयल्या म्हाझुजाविशीं खंयची भुमिका घेवंची हाचे वयल्यान मेन्शेव्हिक पक्षांतूच फूट पडली. फेब्रुवारी १९१७ त जाल्ले क्रांतीउपरांत प्रस्थापित जाल्ल्या सोविएट्सांत आनी तात्पुरत्या सरकारांत मेन्शेव्हिकांचो म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. पूण फुडें ऑगस्टांत तांणी वेगळो पक्ष काडलो. १९१७ वर्साच्या राजकीय घडामोडींचेर आपलो ठसो घालपाइतलो एकचार तांच्यांत तिगलोना. ऑक्टोबरांतल्या बोल्शेव्हिक क्रांतीउपरांत तांणी विरोधी पक्ष म्हूण काम करपाचो निर्णय घेतलो. पूण १९२२ त तांचो पक्ष बरखास्त केलो आनी कितल्याशाच मेन्शेव्हिकांक हद्दपार केले.

- कों. वि. सं. मं.

**मेर, सायमन व्हॅन डर :** (जल्म : २४ नोव्हेंबर १९२५, हेग-नेदर्लंड्स)

डच अभियंतो. डेल्फ्ट हांगाचे उच्च तांत्रिक शाळेंतल्यान भौतिकीय अभियांत्रिकीची पदविका मेळयतकच ताणें विद्युत् सामग्रीचें उत्पादन करपी फिलीप्स कंपनींत अभियंतो म्हूण काम केलें. फुडें ताणें डेल्फ्ट तांत्रिक विद्यापिठाची भौतिकीय अभियांत्रिकीची पदवी मेळयली. फ्रांस, जर्मनी, ब्रिटन ह्या राश्ट्रांनी अणुकेंद्रीय संशोधनाखातीर सहकारी तत्त्वाचेर स्थापन केल्ल्या 'सर्न' हे संघटनेच्या जिनीव्हा हांगाचे प्रयोगशाळेंत १९५६ त व्हॅन डर मेर हाची नेमणूक जाली.

आर्विल्ल्या मूलकण मीमांसेप्रमाण किरणोत्सर्गी मूलद्रव्याच्या ऱ्हास क्रियेच्या आनी हेर प्रक्रियांच्या स्पश्टीकरणाखातीर $W_{\pm}$ आनी $Z^0$ अशा तीन तरेच्या क्षेत्रवाहक मूलकणांचें अस्तित्व गृहीत धरचें पडटा. अती उच्च ऊर्जाधारी कणाच्या आघातावरवीं प्रेरित जावपी अणुकेंद्रीय विक्रीयेंत हे कण निर्माण जावन प्रयोगशाळेंत तांचें निरीक्षण करपाची शक्यता आसता. पूण ही विक्रिया घडोवन हाडपाखातीर आघात करपी कणाकडेन फाव ती गतिज ऊर्जा आसप गरजेचें आसता. उपलब्ध उपकरणां वरवीं वयली अट पुराय करपाखातीर एकाच व्हड वेगान एकामेकांआड दिकांनी धांवपी प्रोटॉन आनी प्रतीप्रोटॉन शलाकांचो एकामेकांचेर आघात करून सर्न प्रयोगशाळेंत १९८१ त ह्या कणांच्या अस्तित्वाविशीं पुरावो मेळयलो. एकामेकांआड दिकांनी वचपी वेगवान कणांत आघात घडोवन हाडून ताचेवरवीं अणुकेंद्रीय विक्रिया संपन्न करपाचें रुबिया हाणें थरयल्लें. व्हॅन डर मेर हाचे कल्पकतेक लागून हो प्रयोग जावंक शकलो. कणांच्या परस्पर आघाताक लागून एकेच तरेची अणुकेंद्रीय विक्रिया संपन्न जावंक शकना.

प्रत्यक्षांत घडपी वेगवेगळया विक्रियांपैकीं सामक्या अल्पसंख्य विक्रियांत $W_{\pm}$ वा $Z^0$ कण निर्माण जावपाची शक्यता आसता. ताका लागून प्रतीप्रोटॉनांचे संख्येंत व्हडा प्रमाणांत वाड केल्याबगर हो प्रयोग सिध्द जावंक शकना कारण निर्यात केल्ले कण अल्पजीवी आसतात आनी तांचें निश्चितपणान निरीक्षण करपाक खूब आडमेळीं येतात. प्रतीप्रोटॉन तयार जातकच तांची व्हडा संख्येन संचालक नळयेंत सांठवण करपाखातीर व्हॅन डर मेर हाणें प्रसंभाव्य शलाका शीतन पद्दत सोदून काडली.

व्हॅन डर मेर हाचे पद्दतीप्रमाण फावतें प्रतीप्रोटॉन जमा करपाखातीर सुमार २४ वरांचो वेळ लागता. जिनिव्हा हांगाचे सर्न प्रयोगशाळेंत कार्यान्वित केल्ल्या आनी जातूंतल्यान अणुकेंद्रीय दुबळे परस्परक्रियेच्या W आनी Z ह्या क्षेत्रवाहक कणांचो सोद लागलो, त्या प्रकल्पांत मोलादीक वावर केल्लेखातीर व्हॅन डर मेर हाका कार्लो रुबिया हाच्यावांगडा १९८४ वर्साचो भौतिकशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो. व्हॅन डर मेर हाणें भौतिकशास्त्रांत प्रशिक्षण घेतिल्लें नासलें, तरी ताणें ह्या प्रकल्पाक दिल्लें तांत्रिक सहकार्य इतलें म्हत्वाचें आशिल्लें, तेखातीर ताका भौतिकशास्त्रांतलो हो व्हड भोवमान फाव जालो, ही उल्लेख करपासारकी गजाल आसा. ताका आनीकूय कांय भोवमान फाव जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**मेराज :** मुसलमान लोकांचो एक सण. हो सण हिजरी सनाच्या सातव्या म्हयन्यांतल्या सव्विसाव्या दिसा येता. अरबी भाशेंतल्या उरूज ह्या शब्दापसून मेराज, मिअराज वा मेअराज हो शब्द जाला. वयर चडपाची निसण, पांवडो, आरोहण वा उत्थान अशे ह्या शब्दाचे अर्थ आसात. हाकाच इसरा म्हळयार रातीची भोंवडी अशेंय म्हण्टात.

ह्या दिसा, रातची महंमद पैगंबरान सर्गाची भोंवडी केली आनी अल्लाकडल्यान मुसलमान लोकांखातीर दिसांतल्यान पांच खेपे नमाज पडपाची देणगी घेवन तो परत आयलो अशी कथा आसा. ही घडणूक रातची घडली म्हणून ह्या सणाक 'शबे मेराज' अशें नांव मेळ्ळां. ताकाच मेराज शरीफ अशेंय म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**मेरीफिल्ड, रॉबर्ट ब्रुस :** (जल्म : १५ जुलय १९२१, फोर्ट वर्थ (टेक्सस).

अमेरिकन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. लॉस अँजेल्स हांगाच्या कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत शिक्षण घेवन १९४९ त ताणें पीएच्.डी. पदवी मेळयली. ताणें पार्क रिसर्च फाउंडेशनांत रसायनशास्त्रज्ञ (१९४३-४४), कॅलिफोर्निया विद्यापिठाच्या रसायनशास्त्र विभागांत अध्यापन सहाय्यक (१९४४-४७), मेडिकल स्कुलांत संशोधन सहाय्यक (१९४८-४९) ह्या पदांचेर काम करतकच रॉकफेलर इन्स्टिट्यूट फॉर मेडिकल रिसर्च (आतां रॉकफेलर विद्यापीठ) हांगा १९४९ त सहयोगी प्राध्यापकाचो सहाय्यक म्हूण ताची नेमणूक जाली. फुडें १९६६ त तो हेच संस्थेंत जीवरसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आनी १९८३ त जॉन डी. रॉकफेलर प्राध्यापक जालो.

ॲमिनो अम्लांच्या उत्पादनांतलो प्रश्न सोडोवपाखातीर मेरीफील्ड हाणें खास गुणधर्म आशिल्ल्या एका घन पदार्थाचो उपेग केलो. ज्याप्रमाण स्पंजांत तो विरगळनासतना उदक सरूं येता तेप्रमाण ह्या पदार्थांत ॲमिनो अम्लां विरगळावपी कार्बनी द्रव्य तो पदार्थ विरगळनासतना सरूंक शकतात. हो घन पदार्थ ॲमिनो अम्लांतल्या कार्बॉक्सिल गटाकडेन संयोग करता आनी ॲमिनो गट संश्लेशणाच्या फुडल्या टप्प्याखातीर तसोच दवरता. पॉलिपेप्टाइजच्या संश्लेशणाखातीर मेरिफील्ड हाचे पद्दतींत घन पदार्थाचेर पयल्या ॲमिनो अम्लाचो संस्कार करतात. ताका लागून जावपी विक्रियेन हें ॲमिनो अम्ल घन पदार्थाचो भाग जाता. मागीर घन पदार्थासयत हो भाग उपउत्पादित पदार्थ आनी अवशिश्ट द्रव्य हांचेपसून गाळण क्रियेन आनी ताज्या विद्रावान धुवन वेगळे करतात. हे सगळे प्रक्रियेंत घन पदार्थ त्याच पात्रांत दवरतात आनी तो रोखडोच फुडल्या ॲमिनो अम्लाच्या संस्करणाखातीर तयार जाता. ह्याच टप्प्याची दर एका क्रमागत ॲमिनो अम्लाखातीर पुनरावृत्ती करून पुराय पॉलिपेप्टाइडाची सरपळी तयार करतात. पुराय जाल्ली सरपळी घन पदार्थाच्या आदारासावन निमणे विक्रयेन सोडयतात. मेरीफील्ड हाणें अशे पद्दतीन १९६४ त ९ ॲमिनो अम्लांनी तयार केल्लें ब्रॅडिकिनीन हें पेप्टाइड तयार केलें. ताची हाचेपरस व्हडली कामगिरी म्हळयार ताणें १२४ ॲमिनो अम्लांची सरपळी आशिल्लें रिबोन्यूक्लिएज हें एंझाइम यशस्वी रितीन संश्लेशित केलें. तेउपरांत हे पद्दतीन आतां हजारांनी वेगवेगळीं पेप्टाइडां संश्लेशित केल्यांत. घन पदार्थाक जोडून टप्प्यांत संयुग तयार करपाची मेरीफील्ड हाची कल्पना हेर मळांरूय आतां वापरल्या. तातुंतलें म्हत्वाचें क्षेत्र म्हळयार संकरित डी.एन.ए. वयल्या संशोधनाखातीर लागपी ऑलिगोन्यूक्लिओराइडांचें संश्लेशण हें आसा. ताचे हे पद्दतीक लागून पेप्टाइड-प्रथिन रसायनशास्त्रांत आनी न्यूक्लिइक अम्ल रसायनशास्त्रांत संशोधनाच्यो नव्यो शक्यता निर्माण जाल्ल्यो आसून नव्या वखदांची उदरगत आनी जीन तंत्रविद्या हांचे नदरेन ती वेव्हारीक नदरेन म्हत्वाची थारल्या.

पेप्टायडां आनी प्रथिनां हांच्या संश्लेशणाखातीर ताणें सोदून काडिल्ल्या सादे पूण कल्पक पद्दतीखातीर ताका १९८४ वर्साच्या रसायनशास्त्राचो पुरस्कार फाव जालो. मेरीफील्ड हाचे हे पद्दतीक लागून जीवरसायनशास्त्र, रेणवीय जीवविज्ञान, वखदीक्रियाविज्ञान ह्या विशयांतल्या उदरगतीकूय चालना मेळ्ळया.

- कों. वि. सं. मं.

**मेरू पर्वत :** पुराणा सारकिल्या पुर्विल्ल्या भारतीय ग्रंथांनी उल्लेख केल्लो एक पर्वत. ताका 'सुमेरू', 'महामेरू', 'हेमाद्री' (सुवर्णपर्वत), 'रत्नसानु' (रत्नांच्या शिखराचो) आनी 'देवपर्वत' अशींय नांवां आसात. ताच्या तेमकाचो व्यास पायथ्याच्या व्यासापरस चड आशिल्ल्यान ताका 'कर्णिकाचल', 'कमलाकर पर्वत' अशेंय नांव आसा. भारताचे वायव्य दीकेक आशिल्ल्या नीस ह्या ग्रीक राज्यांतल्या मेरॉस पर्वताच्या वा अवेस्तांतल्या मॉरू पर्वताच्या नांवावयल्यान 'मेरू' हें नांव तयार जालें आसुंये, अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा.

मेरू पर्वत म्हळयार पामीरचें पठार, अस्तंत सायबीरियांतलो आलताई पर्वत, हिमालयाचे उत्तरेकडलो तार्तर प्रदेश, केदारनाथ, अलमोडा जिल्ह्याचे उत्तरेचो पर्वत, हिमालयाचें एकाद्रें तेमक, एक काल्पनिक आनी पुराणकथात्मक पर्वत अशीं कांय विद्वानांचीं मतां आसात. मंगोलियन भाशेंत 'आलताई' ह्या शब्दाचो अर्थ 'भांगराचो पर्वत' असो जाता. हिमालय आनी मेरू हांचेमदले हेमकूट आनी निषध हे पर्वत म्हळयार कुएनलून आनी थिएनशान दोंगरावळ, अशें कांय पंडितांचें मत आसा.

विंगड विंगड पुराण कथांच्या मताप्रमाण जंबू सारकिल्ले जुंवे कमळाच्या पाकळ्यांभाशेन मेरू भोंवतणी आसात. सूर्य, चंद्र आनी हेर गिरे ताचे भोंवतणीं प्रदक्षिणां घालतात. ताची उंचाय ८४ हजार योजनां

आसा. ताच्या तेमकाचेर स्वर्गांतली गंगा देंवता. ताच्या तेमकाचेर ब्रह्मदेवाची नगरी आसा, तशेंच ताच्या देंवतेचेर इंद्रादी आठ दिक्पालांच्यो नगरी आसात. थंय देव, गंधर्व सप्तर्षी रावतात. रावणाची लंका हें मूळचें मेरूचेंच एक तेमक आसा. हो मेरू पर्वत स्वर्गाक आदार दिता. ताचे सकयल सप्तपाताल लोक आसून तांचे सकयल विश्वाचो आदार वासुकी आसा. पांडवांची निमणी भोंवडी मेरू पर्वताचेच दीकेन जाल्ली. 'मेरूसावर्ण' आनी 'मेरूसावर्णि' ह्या नांवांच्या खाशेल्या मनुंनी ह्या पर्वताचेर तप केल्लें. मेरूच्या इकरा धुवांतली मेरूदेवी ही नाभिराजाची बायल आनी जैनांचे आद्य तीर्थंकर ऋषभनाथ वा आदिनाथ हाची आवय आशिल्ली. मेरूव्रत नांवाचें जैनांचें एक व्रतूय आसा. रुपें, भांगर हांचो प्रतिकाच्या स्वरुपांत मेरू करून तो दान दिवपाचें हिंदुंचेंय एक व्रत आसा. एक संस्कृतीक प्रतीक म्हूण भारतांत, मेरू पर्वताक म्हत्वाची सुवात आसा.

मेरूप्रमाण व्हड आकाराच्या देवळांक तशेंच व्हड व्हड प्रासाद हांकां लक्षणेन मेरू म्हूण पाचारतात. देखीक-सिध्दमेरू नांवाचें शिवमंदिर; गुजरातच्या कर्ण राजान बांदिल्लो 'कर्णमेरू प्रासाद'. तशेंच देवळां, राजवाडे आशिल्ल्या पर्वतांक वा गिरिदुर्गांकूय मेरू अशें म्हळां. देखीक-अजयराजाचो अजयमेरू (अजमेर), जसलाचो जसलमेरू (जैसलमीर). हिंदू, जैन आनी बौध्द पुराणकथांनी मेरूक विश्वाच्या केंद्रस्थानी वा धर्तरेच्या 'नाभिस्थानार' मानला. तेचखातीर माळेंतल्या मदल्या मणयांक लक्षणेन 'मेरूमणी' म्हण्टात. शरीर हें विश्वाचेंच ल्हान रूप आसा, हे धारणेन शरीराच्या केंद्रस्थानीय मेरू पर्वत आशिल्ल्याचें मानतात.

पृश्ठवंशांतलो मेरूदंड हो मेरूचें प्रतीक आसून, जागृत कुंडलिनी जिच्यांतल्यान ब्रह्मरंध्राकडे वता, ती सुषुम्ना नाडी ह्या मेरूदंडांत आसता. मंदिर हें विश्वाचें केंद्रस्थान मानतात. तेचखातीर मूर्तीच्या माथ्यावयर येवपी देवळाचें तेमक हें मेरूचें प्रतीक मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मेलबर्न :** व्हिक्टोरिया राज्याची राजधानी. तशेंच ऑस्ट्रेलियांतलें दुसऱ्या क्रमांकाचें शार. मेलबर्नचें क्षेत्रफळ ५४९ चौ. किमी. आसा. १८३५ वर्सा ह्या शाराची स्थापणूक जाली. १८३७ वर्सा लॉर्ड मेलबर्न ह्या इंग्लंडच्या पंतप्रधानाचें नांव ह्या शाराक दिलें. जॉन नॅश ह्या नामनेच्या वास्तुशास्त्रज्ञाच्या रॉबर्ट रसेल ह्या विद्यार्थ्यान ह्या शाराची आंखणी केल्या. ह्या शाराकलागून हेर उपनगरां आसात. मुखेल शार आग्नेय दर्यादिगेर यॅरा न्हंयेच्या तोंडाकडे फिलिप उपसागराच्या तोंकाकडे वसलां.

बॅल्लारॅट आनी बेंडिगो हांगाच्या भांगराच्या सोदाकलागून एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत ह्या शाराची नेटान वाड जाली.

मेलबर्न शाराच्या चवथ्या वांट्यांत बागो आनी पोरसां आसात. हांगाचें वनस्पतिउद्यान खूब नामनेचें आसून ताची सुवात ५२ हेक्टर इतली आसा. तशेंच हांगा एक राश्ट्रीय वनस्पत संग्रहालय आसा.

व्हिक्टोरिया वस्तुसंग्रहालय पळोवपासारकें आसा. ऑस्ट्रेलियांतल्यो नामनेच्यो कलाकृती आनी विंगड विंगड कलाशैलींचे नमुने राश्ट्रीय कलाविथींत पळोवंक मेळटात. हांगा मेलबर्न विद्यापीठ, मॉनॅश विद्यापीठ आनी लाट्रोब विद्यापीठ अशीं तीन विद्यापिठां आसात. तंत्रनिकेतन, बॅले नाचाचें विद्यालय आनी राश्ट्रीय कलाविथी ह्यो शैक्षणीक मळावयल्यो नामनेच्यो संस्था आसात.

सगळें शारभर आधुनिक सुविधा आसात. तशेंच संस्कृतीक आनी राजकीय नदरेनूय ह्या शाराक खूब म्हत्व आसा. ताचो स्थानिक प्रशासकीय कारभार काउन्सिल बोर्डावतीन चलता. मेलबर्न हें सागरी वेपाराचें म्हत्वाचें बंदर आसा. ऑस्ट्रेलियाचें हें व्हड वेपारी केंद्र आसून हांगा लोकर आनी कच्च्या म्हालाचेर प्रकिया करून पक्को माल तयार करतात. उपरांत ह्या मालाची निर्यात जाता. उद्देग धंद्यांनी मोटारी तयार करप, कागद तयार करपाचे कारखाने, जहाजां बांदप, कातडी कमोवप, इलेक्ट्रॉनिकचे उद्देग, तेच भशेन शेताक लागपी अवजारां तयार करप, कपड्याचे धंदे, सिगरेटी, सोरो तयार करपाचे कारखाने हांगा आसात.

मेलबर्न शारांतली चडशी रहदारी मोटारींनी जाता. तशेंच थंय वीजेचेर चलपी रेल्वेगाडयो, बसी, ट्राम आसात. १९८१ वर्सासावन थंय भुयारी रेल्वे सुरू केल्या.

'टुलमरीन' हो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ हांगा आसा. थंयसावन देशांत तशेंच परदेशांतूय विमान वाहतूक चलता. मेलबर्नचें क्रिकेट मैदान हें जगांतलें सगळयांत व्हड मैदान आसा. ह्या मैदानाचेर १,१०,००० प्रेक्षक बसूंक शकतात. तशेंच टेनिस, फुटबॉल ह्या खेळांचींय हांगा मैदानां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मेष :** (एरिज). भारतीय राशीचक्रांतली पयली रास. आश्विनी, भरणी हीं नखेत्रां आनी कृत्तिकेचो पयलो चरण अशीं सवायदोन नखेत्रां हे राशींत येतात. मेंढ्याक हे राशीची आकृती मानतात. ह्या तारकाचोम्यांत चवथे प्रतीपरस चड तेजीश्ट तारे थोडेच आसात. देखीक : आल्फा एरिटीज, बीटा एरिटीज आनी गॅमा एरिटीज. ही रास डिसेंबरांत सादारणपणान



रातच्या णवांच्या सुमाराक मध्यमंडळाचेर (Prime Meridian) येता. निरयन मेष राशींत सूर्य १३ एप्रिल ते १४ मे मेरेन आसता. इ.स.प. २ऱ्या शतमानांत राशीचक्र सुरू जालें, तेन्ना वसंत संपात मेष राशींत आशिल्लो. संपताक उरफाटी गती आसून तो आतां बरोच अस्तंतेकडेन सरकल्ल्यान मीन राशींत आयला. आनीक सुमार २२हजार वर्सांनी तो

परतो मेष राशींत येता.

फलज्योतिशाचे नदरेन मंगळ हो राशीचो स्वामी आसा. हिच्यांत रवी उंचेले सुवातेर आनी शनी सकयले सुवातेर मानतात. हे राशीचेर जल्मल्लो मनीस धीट, करारी महत्वकांक्षी आनी चिडचिडो आसता अशें मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मेसोपोटेमिया :** आशिया खंडांतलो एक पुर्विल्लो नामनेचो वाठार. ताच्यो भुगोलीक शिमो निश्चित नात आनी हांगा मूळ खंयचे लोक रावताले हाचेविशींची म्हायती मेळना. सद्याच्या इराकांत हो वाठार आस्पावता.

युफ्रेटीस आनी टायग्रिस न्हंयांच्या सुपीक वाठारांक पुर्विल्ल्या ग्रीकांनी मेसोपोटेमिया (दोन न्हंयांमदलो) हें नांव दिल्लें. दक्षिणेक बॅबिलोनिया, उत्तरेक अर्मिनियांतलो टॉरसचो दोंगर, अस्तंतेक सिरियाचो वाठार आनी उदेंतेक ॲसिरिया हांणी तो व्यापला. युफ्रेटीस टायग्रिस, खाबूरा, बलीक, दियाला, झॅब ह्यो ह्या वाठारांतल्यो मुखेल न्हंयो आसून कांय ज्वालामुखी तेमकांय आसात. बगदाद, बसरा, राक्का, आन, मोसूल, हारान, मार्डेन हीं मुखेल शारां आसात. ह्या वाठारांतले भोवतेक लोक अरब आनी मुसलमान आसून तांच्यांत कुर्द, तुर्कोमान, समार ह्यो जाती आसात. ते अरबी, तुर्की, कुर्दी आदी भासो उलयतात. ह्या वाठारांत खनिज तेलाचो उपाट सांठो आसून कैयाराह आनी मंडाली हांगाचे खनिज तेलाचे सांठे प्रसिध्द आसात. हांगाची जमीन गाळाची आनी सुपीक आशिल्ल्यान तशेंच न्हंयांच्या उदकाक लागून गंव, कापूस, खाजूर तांदूळ हीं पिकां येतात.

दक्षिण मेसोपोटेमियाचो भाग हो विंगड विंगड संस्कृतायांचें उगमस्थान म्हूण नामनेक पावला. ह्या वाठारांत कितलींशींच उत्खननां जालीं आनी अजूनय चालू आसात. ह्या वाठाराचेर सेमिटिक, हिटाइट, आर्मिनियन आदी लोकांनी सत्ता गाजयली. जर्मो हांगाची वसणूक सगळ्यांत पुर्विल्ली (इ.स.प. ५०००) आसून ह्या भागांत शेतकार समाजाच्यो पुर्विल्ल्यो कुरवो सांपडल्यात. ते उपरांत कितल्योशोच संस्कृतायो उदयाक आयल्यो. तातुंतल्यो टेल हसुना, समार आनी टेल हलाफ ह्यो म्हत्वाच्यो आसून खाबूराचीं हलाफियन प्रागैतिहासीक अलंकृत मातयेचीं पात्रां खूब प्रगत अवस्था दाखयतात. तीं निनेव्ह आनी तेपे गावरा ह्या सुवातींनी सांपडलीं. हीं उत्तरेकडलीं थळां आसून दक्षिणेक एरिडू हांगा प्रगत संस्कृताय नंदताली.

ह्या उपरांतची अल्-उबाइद संस्कृताय उत्तर आनी दक्षिण दोनूय वाठारांत भरभराटीक आयली आनी ल्हव ल्हव गांवगिरी संस्कृताय नश्ट जावन नागरी संस्कृतायेक सुरवात जाली. ह्या काळांतलें ईरेक (सद्याचें वर्का) हें प्रतिनिधिक थळ जावन आसा. ह्या काळांतल्यो व्हडल्यो वास्तू उत्खननांत मेळिल्ल्यो आसून तातूंतलें इनान्नाचें देवूळ आनी अनूचें झिगुरात प्रसिध्द आसा. वास्तुशैलीचे नदरेन हांगा सुल्मेरियन, बॅबिलोनियन आनी अकेडियन ह्यो तीन अवस्था खास करून इ.स.प. ३०००-१२७५ ह्या काळांत दिसून येतात. हे खेरीज ईरेक हांगा कांय चित्रलिपींतल्यो मुद्रा सांपडल्यात.

हाचेउपरांतची नगरराज्यांची उदरगत मध्य उदेंतेंत उत्तर सिरिया, उत्तर मेसोपोटेमिया आनी चड करून ईलम हांगा जाल्ली दिसून येता. ह्या काळांतल्या नामनेच्या नगरराज्यांत टेल-ॲस्मार, काफये, अर, कीश, मारी, फराह, लेगॅश हांचो आस्पाव जाता. दक्षिण मेसोपोटेमियांतल्या नगरराज्यांतले मुखेल रहिवाशी सुमेरियन आसून ते निप्पूर हांगा एकठांय जमताले आनी एनलिल देवतेची (उदका देवता) पुजा करताले.

अरचो नामनेचो पयलो वंश सोंपतकच थंय सारगॉनान अकेडियन वंशाची इ.स.प. २३४० त स्थापणूक केली. हेंच मेसोपोटेमियाचें पयलें साम्राज्य आसून ताचें अनुकरण फुडें बॅबिलोनियन आनी उपरांतच्या ॲसिरियन राजांनी केलें. मेसोपोटेमिया आनी ईलम ह्या दोन संस्कृतायांनी दिवप-घेवप जालें आनी संघर्शूय उप्रासले. हे संघर्श आलेक्झांडर द ग्रेटचे घुरयेमेरेन अस्तित्वांत आशिल्ले. अलेक्झांडरान हांगा ग्रीक प्रशासक नेमले. सुमार २५० वर्सां हांगा ग्रीकांश संस्कृताय आशिल्ली. फुडें हो भाग इ.स. तिसऱ्या शेंकड्यांत रोमन साम्राज्याचो एक प्रशासकीय भाग जालो. अरबांनी तो बायझंटिनांकडल्यान जिखलो आनी अहबासी खिलाफतीचे स्थापणुकेउपरांत (इ.स. ७६२) बगदादचें आंतरराश्ट्रीय म्हत्व वाडलें. अरबी लिपी, भास आनी साहित्य हांचो प्रसार जालो. फुडें मंगोलांचो राजा हुलागूखान हाणें अब्बासी खिलाफत नश्ट करून पुर्विल्ली उदकाशिंपणे वेवस्था नश्ट केली (१२५८).

हे उपरांत मेसोपोटेमियाक पयलींचें संस्कृतीक वैभव परतें केन्नाच मेळ्ळेंना. पयल्या म्हाझुजांत ताका झुजामळाचें स्वरूप प्राप्त जालें. इराकचें राज्य १९२१ त अस्तित्वांत आयलें आनी ताचें १९५८ त लोकसत्ताक राज्यांत रुपांतर जालें. ताचें म्हत्व आयजूय पुर्विल्ल्या अवशेशांक लागून तिगून आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मेहता, अशोक :** (जल्म : २४ ऑक्टोबर १९११, भावनगर-सौराष्ट्र; मरणः १० डिसेंबर १९८४, दिल्ली).

भारतांतलो एक समाजवादी क्रियाशील विचारवंत फुडारी. एका मध्यमवर्गीय कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचें नांव रणजितराम आनी आवयचें शांतीगौरी. सतराव्या वर्सासावन राश्ट्रीय आंदोलनांत वांटो घेवपाक सुरवात केली. मुंबयच्या विल्सन कॉलेजांतल्यान ताणें

पदवी घेतली आनी कांय काळ मुंबय विद्यापिठाच्या 'स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स' हे संस्थेंत अध्ययन केलें. पूण उपरांत १९३२त असहकाराचे चळवळींत ताणें वांटो घेतलो आनी शिक्षकाचो वेवसाय सोडलो. आंकवार रावन ताणें राश्ट्रकार्य केलें. ह्या वावराची प्रेरणा ताणें रामकृष्ण परमहंस, स्वामी विवेकानंद, रवींद्रनाथ टागोर आनी महात्मा गांधी हांचेकडल्यान घेतली.

तो मुळांत लोकशाहीवादी आनी व्यक्तीस्वातंत्र्यवादी आशिल्लो. स्वातंत्र्य चळवळींत ताका खूब खेपे बंदखणींत घालो. बंदखणींत ताका जयप्रकाश नारायण, अच्युत पटवर्धन हे समाजवादी विचारवंत मेळ्ळे आनी ताणें १९३४ त जयप्रकाश नारायण, अच्युत पटवर्धन हांचेवांगडा काँग्रेस पक्षाच्या अंतर्गत इंडियन सोशॅलिस्ट पार्टी स्थापन केली. शेतकार आनी कामगार हांच्या प्रस्नांविशीं ताका आस्था आशिल्ली. 'हिंदू मजदूर सभा' ही संस्था ताचे प्रेरणेन स्थापन जाली. गुजरातांतल्या स्वातंत्र्या उपरांतच्या शेतकारांच्या आंदोलनाखातीर ताका बंदखणींत उडयल्लो. १९३४-३९ ह्या काळांत ताणें 'काँग्रेस सोशॅलिस्ट विकली' चें संपादन केलें. प्रजासमाजवादी पक्ष स्थापन करपाक ताणें फुडाकार घेतलो. कांय वर्सां तोच पक्षाचो अध्यक्ष आशिल्लो.

ताणें युरोप, अमेरिका, जपान, ऑस्ट्रेलिया ह्या देशांची भोंवडी केल्ली. थंयचे राजकीय-समाजीक परिस्थितीचो ताणें बारीकसाणेन अभ्यास केलो. १९५४ त आनी १९५७ त असो दोन खेपे तो लोकसभेंत वेंचून आयलो. १९६२ उपरांत ताणें काँग्रेस पक्षांत प्रवेश केलो.

१९६३-६६ ह्या काळांत नियोजन मंडळाचो उपाध्यक्ष आनी १९६६ त नियोजनमंत्री म्हूण ताणें काम केलें. काँग्रेसींत फूट पडतकच ताणें संघटना काँग्रेसींत प्रवेश केलो. आणीबाणीउपरांत १९७७ त तो जनता पक्षांत सामील जालो. फुडें जनता पक्षाच्या पराभवाउपरांत ताणें सक्रीय राजकारणांतल्यान आंग काडून घेतलें.

ताणें राजकारण, अर्थकारण, लोकशाय, समाजवाद, नियोजन ह्या विशयांचेर वैचारीक बरप केलां. १८५७ च्या क्रांतीझुजाचें एक नवो अर्थ सांगपी ल्हान पुस्तक ताणें बरयलें. ताचे कांय ग्रंथ अशे - Communal Trangle in India (१९४२), Who owns India (१९५०), Democratic Socialism (१९५१), The Political Mind of India (१९५२), Socialism and Peasantry (१९५३), Politics and Planned Economy (१९५३), Studies in Asian Socialism (१९५६), A Decade of Indian Politics (१९६६), Perception of Asian Personality(१९८०).

- कों. वि. सं. मं.

## मेहता, नरेश : (जल्म : १५ फेब्रुवारी १९२२, शाजापूर-मालवा, मध्यप्रदेश).

ज्ञानपीठ पुरस्कार फाव जाल्लो एक हिंदी साहित्यिक. ताणें काशी हिंदी विश्वाविद्यालयांत एम. ए.ची पदवी मेळयली. थंय केशव प्रसाद मिश्र आनी विश्वनाथ प्रताप मिश्र हांचेकडल्यान ताका स्फूर्त मेळ्ळी. १९४२तले सुटके चळवळींत तेचपरी विद्यार्थी चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. कांय वर्सां ताणें कम्युनिस्ट पक्षाखातीर काम केलां. तो ट्रेड युनियनाच्या साप्ताहीक खबरापत्राचो संपादक आशिल्लो. उपरांत कांय तेंप तो



आकाशवाणीचेर आशिल्लो आनी मागीर मात ताणें आपलो सगळो वेळ साहित्य बरपांत घालयलो. थोडो तेंप चलिल्ल्या 'कृति' नांवाच्या नेमाळ्याचें ताणें संपादन केलें.

नरेश मेहतान गद्य आनी पद्य दोनय प्रकारचें बरोवप केलां. पूण चडकरून नवलकथा आनी काव्यसंग्रहाक लागून ताची चड नामना आसा. पुराणीक आनी आधुनिक दोनय विचार ताच्या कवितांनी व्यक्त जातात. ताच्यो कविता छायावादी तत्त्वांचेर आदारिल्ल्यो आसात. 'बनपाखी सुनो' (१९५७), 'बोलने दो चीड को' (१९६१), ' मेरा समर्पित एकान्त' (१९६२), 'उत्सवा' (१९७९), 'तूम मेरा मौन हो' (१९८२), 'अरण्या' (१९८५), 'संशय की एक रात' (१९६२), 'महाप्रस्थान'(१९७४), 'प्रवाद पर्व' (१९७७) आनी 'शबरी' (१९७७) हे नरेश मेहताचे मुखेल कविता संग्रह. ताचे काव्यभाशेंत सैमीक ओड लावपाची तांक आसा. ताचे काव्यांतले भाशेक व्याकरणाचे बंधन ना. पूण अशा ह्या व्याकरणाचें बंधन नाशिल्ले भाशेक लागूनच ताच्या कवी व्यक्तित्वाची खाशेली वळख मेळटा. ताची बरोवपाची शैली आनी रचणूक ही आयच्या साहित्यापरस खूब वेगळी आसा आनी हाकालागूनच ताची कविता हेरांपरस वेगळी थारता. मनशाचो संघर्श आनी ताचें व्यक्तित्व तशेंच ताची द्वंद्वात्मकता हीं मनशाचें अस्तित्व थारायतात अशें ते खरपणान मानतात. व्यक्ती आनी समाज, ताचें स्वरूप, झूज आनी शांती, इतिहास आनी व्यक्ती संबंदाची अवतिकाय आधुनिक मनशाचें खंडीत व्यक्तीत्व, समाजव्यापी प्रश्नाचेर व्यक्तीच्या नैतीक दायित्वाची समस्या ह्या सगळया प्रश्नांचेर 'संशय की रात' ह्या प्रबंदकाव्यांत चर्चा जाल्ली दिसता. सैमीक ओड आनी जिवंतपण व्यक्त करपाखातीर जाल्लें मानवीकरण तशेंच आशावादी आनी भाववादी नदर, खाशेली अशी काव्य प्रतिभा हांकांलागून ताच्या साहित्यांत जिवंतपण येता. 'समय देवता' हे ताचे कवितेंत संस्कृतायेचें वर्णन दिसता. आयच्या मनशाची अवतिकाय चित्रीत करतना ही कविता एक व्हड साक्षात्कार घडयता. मनशाची मुळावी प्रवृत्ती, ताचें मनीसपण आनी आयचे परिस्थितीची विडंबना हाचेर ताकिवंत विचार जाल्लो हे कवितेंत जाणवता.

'आरण्या' ह्या ताच्या काव्यसंग्रहाक साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जालो. ह्या संग्रहांत ह्या चडशा कवितांचो विशय कविताच जावन आसा. ताचेखातीर कविता ही फकत अर्थच न्हय तर अणभव जावन आसा. 'आमूख' हे कवितेंत वेगळेंपण हो सैमीक गूण, सभाव आनी धर्म आसा म्हणपाचें दिसता. कविताच मनशाक नवी नदर दिता म्हणपाचो अणभव नरेश मेहताक आसा. 'महाप्रस्थान' हें ताचें प्रबंध काव्य जावन आसा. महाभारताच्या युद्धाउपरांत पांडव महाप्रस्थान करतात. ह्या प्रसंगावयल्यान सबंद काव्याची रचणूक केल्ली आसा. ताच्या 'प्रवाद पर्व' हे कवितेंतल्यान रामायणकालीन संस्कृती आनी वर्तमानकाळाकडेन ताचो संबंद ह्यो दोन गजाली स्पश्ट जातात.

नरेश मेहतान सात नवलकथा बरयल्यात. तातुंतल्यो 'उत्तरकथा' आनी 'यह पथ बंधु था' ह्यो दोन गाजिल्ल्यो नवलकथा. 'यह पथ बंधु था' हे कथेंत प्रामाणीक आनी निश्कपट मनशाच्या अवतिकायेचें चित्रण वाचपाक मेळटा.

'उत्तरकथा' हे ताचे कादंबरींत मालवा प्रदेशांतल्या भट वर्गाची आनी तांच्या कुटुंबाचो कथा आसा. हांगा बरोवपी समाजाच्या जटील प्रवृत्तीचें चित्रण करता.

नरेश मेहताचें सबंद साहित्य म्हळ्यार मनीस कितें आसा आनी कसो आसूंक जाय हांचे भितरलो संघर्श. होच संघर्श ताच्या साहित्याक मुखेल दर्जो दिता. ताच्या लिखाणांतल्यान आध्यात्मिक चिंतन आनी विचारशक्त निर्माण जाता.

'तथापि' आनी 'एक समर्पित महिला' ह्या कथासंग्रहांत नरेश मेहतान मानवी चित्रणाखातीर आपली कवी नदर वापरल्या. ताच्या सर्जनात्मकतेची आनीक एक देख म्हळयार 'सुबह के घंटे' आनी 'खंडीत यात्राएँ' हीं नाटकां. 'काव्य का वैष्णव व्यक्तित्व' आनी 'काव्यात्मकता का दिक काल' हे ताचे दोन वैचारीक लेखांचे संग्रह.

ताच्या हेर पुस्तकांचीं नांवां अशीं आसात :-

'डुबते मस्तूल', 'धुमकेतुः एक श्रुति', 'नदी यशस्वी है', 'दो एकांत', 'प्रथम फाल्गुन', 'जलसाघर', 'सरोवर के फूल' आनी 'पिछली रात की बरफ'. १९७२-९१ ह्या काळांतल्या ताच्या साहित्यीक वावरा खातीर १९९२ वर्सा ताका भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार फाव जालो.

- डॉ. चंद्रलेखा डिसोझा

## मेहता, फिरोझशहा मेरवंजी : (जल्म : ४ ऑगस्ट १८४५, मुंबय; मरणः ५ नोव्हेंबर १९१५).

इंडियन नॅशनल काँग्रेसचो एक संस्थापक, नामनेचो वकील, एक बरो प्रशासक आनी खर राश्ट्रवादी. मुंबयच्या एल्फिन्स्टन कॉलेजांतल्यान एम्. ए. जातकच तो इंग्लंडाक बॅरिस्टर जावपाखातीर गेलो. थंयच्या चार वर्सांच्या राबित्यांत ताचेर दादाभाई नौरोजीचो प्रभाव पडलो. तो बॅरिस्टर जावन १८६८ त हिंदुस्थानांत आयलो आनी मुंबय ताणें वकिली सुरू केली. १८६९त ताणें दादाभाईच्या ईस्ट इंडिया असोसिएशनाचो फांटो म्हूण बाँबे असोसिएशन मुंबयंत सुरू केलें. गोऱ्या लोकांचे मिरासदारीआड ताणें प्रभावी प्रचार केलो. कितलेशेच प्रस्न हातांत घेवन ताणें वकीलीवांगडाच राश्ट्रीय जागृतायेचें काम केलें.



१९७२ च्या मुंबय महानगरपालिका विधायक कायद्याचेर फिरोझशहाच्या सुचोवण्यांची पुराय छाप आशिल्ली. १८७३ त तो आयुक्त जालो. १८७८-८० ह्या तीन वर्सांत खबरापत्रांचेर चेपण हाडपी 'व्हर्न्यॅक्युलर प्रेस ॲक्ट' आनी ब्रिटीश कापडाक बरो बाजारपेठ मेळची म्हूण आयातकरांतल्यान दिल्ली सूट, ह्या दोन प्रस्नांचेर फिरोशहान सनदशीर मार्ग आपणायले. इल्बर्ट बिलाक तेंको दिवपाखातीर फिरोझशहा, आनी हेर राश्ट्रवाद्यांनी गोऱ्या लोकांआड प्रतिआंदोलन सुरू केलें. १८८४-८५ ह्या काळांत तो मुंबय महानगर पालिकेचो अध्यक्ष जालो. ह्याच पदाचेर १९०५ तो परत वेंचून आयलो. बाँबे असोसिएशनच्या बाँबे प्रेसिडेन्सी असोसिएशनांत रुपांतर जालें (१८८५), तेन्ना ताचे फिरोझशहा, न्यायमूर्ती तेलंग आनी दिनशा वाच्छा हे पयले सरचिटणीस जाले. ह्याच वर्सा मुंबय भरिल्ल्या पयल्या काँग्रेस अधिवेशनांत फिरोझशहा आनी ताच्या वांगड्यानी वांटो घेतलो.

१८८६ त मुंबयच्या कायदेमंडळाचो तो वांगडी जालो. १८९० त जाल्ल्या काँग्रेसच्या सव्या अधिवेशनाखातीर फिरोझशहा मेहताची अध्यक्ष म्हूण वेंचणूक जाली. १८९२ त इंपीरीअल काउंसिलचो वांगडी म्हूण ताची वेंचणूक जाली. थंय ताणें शेतकारांची सावकारी पाशांतल्यान मुक्ती करपाखातीर कांय उपाय सुचयले. कर्झनच्या विद्यापीठ विधेयकाक ताणें खर विरोध केलो. १९०४ त तो परत काँग्रेसचो अध्यक्ष जालो.

स्वदेशीच्या प्रचाराखातीर ताणें आनी तेलंगान स्वदेशी शाबू कारखानो सुरू केलो. सेंट्रल बँक ऑफ इंडिया स्थापन करपाक ताणें फुडाकार घेतलो (१९११). १९१३ त 'बाँबे क्रॉनिकल' हें इंग्लीश भाशेंतलें पयलें राश्ट्रीय बरावेचें खबरांपत्र ताणें मुंबय सुरू केलें. १९१५ त मुंबय विद्यापिठाचो तो उपकुलगुरू जालो. १८९४ त ताका ब्रिटीश सरकारान सी. आय. ई. हो भोवमान भेटलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मेहता, वैकुंठ लल्लुभाई :** (जल्म : २३ ऑक्टोबर १८९१, अहमदाबाद; मरण : १९६४, मुंबय).

गांधीवादी विचारवंत आनी भारतीय सहकारी चळवळीचो एक प्रवर्तक. ताच्या बापायचें नाव लल्लुभाई आनी आवयचें सत्यवतीबेन. नामनेचो भारतीय अर्थतज्ञ गगनविहारी हो ताचो धाकटो भाव.

वैकुंठभाईचें माध्यमिक शिक्षण मुंबयच्या न्यू हायस्कुलांत जालें. तो मॅट्रिकचे परीक्षेंत गणित विशयांत पयलो आयलो. एल्फिन्स्टन महाविद्यालयांतल्यान गणित विशय घेवन ताणें पयल्या वर्गाची पदवी मेळयली. मुंबय विद्यापिठांत इंग्लीश विशयांत पयलो आयिल्ल्यान ताका एलिस इनाम फाव जालें. महात्मा गांधीचो सहाय्यक महादेव देसाई हाचेकडेन ताची महाविद्यालयांतसावन इश्टागत आशिल्ली.

सहकारी चळवळीची ताका खूब आवड आशिल्ली. मुंबय राज्य सहकारी बँकेंत ताणें ३४ वर्सां काम केलें. ही बँक म्हळ्यार सबंद मुंबय राज्यांतले ग्रामीण फेररचणूक वावराचें ताणें केंद्र केलें. खेर मंत्रीमंडळांत (१९४७-५२) वैकुंठभाईची वित्त आनी सहकार मंत्री म्हूण नियुक्ती केली. १९५२त तो 'वित्त आयोग' तशेंच 'कर चवकशी समिती' चो वांगडी जालो. १९५३त तो 'अखिल भारतीय खादी आनी ग्रामोद्योग' मंडळाचो अध्यक्ष जालो. कापड उद्देग चवकशी आयोगाचो वांगडी म्हूण ताणें काम केलें (१९५३-५४). १९५९त 'कृषी सहकारी पत' आयोगाचो अध्यक्ष म्हूण ताणें काम केलें. गांधी यादस्तीक निधीचे मुंबय शाखेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.

कट्टर गांधीवादी आशिल्ल्यान वैकुंठभाईक राजकारणापरस महात्मा गांधीच्या विधायक कार्याची चड आवड आशिल्ली. महात्मा गांधी आनी सरदार पटेल हांच्या आग्र्याक लागून वैकुंठभाईन खेर मंत्रीमंडळांत वित्त खातें स्वीकारलें. तो सदांच सूत काततालो आनी सदांच खादी वापरतालो. वाचन हो ताचो खाशेलो छंद आसलो आनी ताचें स्वताचें व्हडलें ग्रंथालय आशिल्लें.

वैकुंठभाईक ब्रिटीश सरकारान कैसर-ई-हिंद रुप्या पदक (१९१६) आनी भांगरा पदक (१९२१) भेटयल्लें. पूण सरकाराच्या अत्याचारी आनी दडपशाही धोरणाच्या निशेधाखातीर ताणें हीं दोनूय पदकां १९३० त सरकाराक परत केलीं. १९५४ त भारत सरकारान ताचो 'पद्मभूषण' किताब दिवन भोवमान केलो.

सहकारी चळवळ आनी ग्रामोद्योग ह्या विशयाचेर वैकुंठभाईन कितलींशींच पुस्तकां बरयल्यांत. ताचीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां अशीं - The Co-operative Movement (१९१५), Studies in Co-operative Finance (१९२७), Decentralised Economic Development (१९६३).

- कों. वि. सं. मं.

**मेहत्रे, गहिनीनाथ राभाजी :** (जल्म : १२ सप्टेंबर १९३५, राहुरी- अहमदनगर).

सुटकेझुजारी. तो 'प्रजा सोशलिस्ट पार्टी' चो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो जनता पार्टीचो वांगडी जालो. जनता पार्टीच्या राहुरी फांट्याचो तो चिटणीस आशिल्लो. १२ जुलय १९५५ ह्या दिसा त्रिदिवकुमार चौधरी हाच्या फुडारपणाखाल भिरंडें, गोंय हांगा सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पुर्तुगेज पुलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी उपरांत सोडलो. १९८६-८९ ह्या काळांत तो 'राहुरी नगरपालिका शिक्षण समितीचो' वांगडी आशिल्लो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**मेहरा, ओमप्रकाश :** (जन्म : १९ जानेवारी १९१९, लाहोर).

भारताचो माजी वायुसेनाध्यक्ष. ताच्या बापायचें नांव जगतराम, आवयचें जीवनदेवी घरकान्नीचें सत्त्या. ताचें शिक्षण एम्. ए. मेरेन शासकीय महाविद्यालय लाहोर आनी स्टाफ महाविद्यालय क्वेट्टा हांगा जालें. ताणें तेउपरांत (१९६८) पिट्सबर्ग (अमेरीका) हांगाच्या विद्यापिठांतल्यान आंतरराश्ट्रीय अभ्यासक्रम पुराय केलो. १९४० त ताणें भारतीय वायुदलांत प्रवेश घेवन उत्तर आनी अस्तंत प्रांतांत म्हत्वाची कामगिरी केली. दुसऱ्या म्हाझूजकाळांत ताची



ब्रह्मदेशाच्या आराकान प्रांतांत नियुक्ती आनी झुजाउपरांत I.A.F. (इंडियन आर्म्ड फोर्सेस) चो मुखेल प्रतिनिधी म्हूण ऑस्ट्रेलिया हांगा नेमणूक केल्ली. १९४७ त तो भारतांत परतलो.

भारतीय वायुदलांत ताणें कितल्याशाच पदांचेर कामां केलीं, तीं अशीं- चीफ ग्राउंड इन्स्ट्रक्टर, एअर फोर्स फ्लाईंग कॉलेज (१९४७), कमांडंट एअर फोर्स अकादेमी (१९४७ ते १९५०), कमांडेड नंबर टू ग्राउंड ट्रेनिंग स्कूल, तांबरम् (१९५० ते ५३), सिनिअर एअर स्टाफ ऑफिसर, ऑपरेशनल कमान्ड (१९५४ ते १९५८), कमांडेड आर्ममेन्ट ट्रेनिंग विंग, जामनगर (१९५८ ते १९६०), डीन ऑफ इन्स्टिट्यूट ऑफ आर्ममेन्ट स्टडीज, खडकी (१९६०-६३), डेप्युटी चीफ ऑफ एअर स्टाफ (१९६९-७१), अध्यक्ष, हिंदुस्थान एअरॉनॉटिक्स लि. बंगलोर (१९७१-७३). जानेवारी १९७३ ते जानेवारी १९७६ मेरेन तो भारतीय वायुसेनामुखेल आशिल्लो. निवृत्ती उप्रांत महाराष्ट्र राज्याचो राज्यपाल

(३ नोव्हेंबर १९८० ते ५ मार्च १९८८मेरेन) आनी तेउप्रांत तो राजस्थानचो राज्यपाल (६ मार्च १९८२ ते ३ नोव्हेंबर १९८५ मेरेन) आशिल्लो.

ताका पद्मविभूषण (१९७७) तशेंच भारतीय वायुदलांतल्या वावराखातीर परम विशिश्ट सेवा पदक (१९६८) हे भोवमान फाव जाल्यात. गोल्फ, गिर्यारोहण, संगीत आनी बागकाम हे ताचे छंद आसात. मेलबॉर्न (ऑस्ट्रेलिया) हांगा गेल्ल्या ऑलिंपिक हॉकी पंगडाचो तो वेवस्थापक आशिल्लो (१९५६). भारतीय ऑलिंपिक असोसिएशनचो अध्यक्ष (१९७५-८०) आनी एशियन गेम्स फेडरेशनचो अध्यक्ष (१९७८-८०) ह्या पदांचेरूय ताणें कामां केल्यांत

- कों. वि. सं. मं.

**मैथिली ब्राह्मण :** ब्राह्मणांचो एक वर्ग. मिथिला भागांत रावपी ब्राह्मणांक हें नांव आसा. ह्या ब्राह्मणांत श्रोतिय, योग्य, पंजीकार, नागर आनी जैवर अशे पांच भेद आसात. श्रोतिय लोकांक वेदपाठक म्हूण वळखतात. श्रोतिय ब्राह्मणांचे तुलनेन योग्य ब्राह्मणांचो दर्जो कमी मानतात. पूण ह्या दोन ब्राह्मणांभितर बेटी वेव्हार चलतात. पंजीकार ब्राह्मण यजमानांच्यो वंशावळी सांबाळप, लग्नां जमोवप हे वेवसाय करतात. हे लोक बुध्दिजीवी आसात.

ह्या ब्राह्मणांभितर मिश्र, ओझा, ठाकुर, पाठक, पूर, पादरी, चौधरी, राय, सिंह अशो उपाधी आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मैथिली भास आनी साहित्य :** मैथिली ही बिहारांतली एक भास. बिहारच्या दरभंगा, मुजफ्फरपूर, मोंघीर, भागलपूर, सहरसा, शहापूर आनी पूर्णिया ह्या वाठारांनी ही भास चड प्रमाणांत उलयतात. तशेंच आसाम, बंगाल आनी नेपाळच्या रौताहत, सप्तरी, सरलाही, मोहतरी आनी मोरंग ह्या जिल्ह्यांनीय ही भास उलयतात.

पुर्विल्ल्या काळांत ह्या जिल्ह्यांतलो चडसो वाठार मिथिला ह्या नांवान वळखताले. ताका लागून थंय उलोवपी भाशांकूय 'मैथिली' हें नांव मेळळें. कोलब्रुक हाच्या मतान ही स्वतंत्र भाशा नासून, बंगाली भाशेची एक पोटशाखा आसा. ग्रीअर्सन हे भाशेक बिहारी भाशेची बोली मानता. वर्णरत्नाकरांत हे भाशेक अवहट्ठ म्हळां. नामनेचो मैथिली कवी विद्यापती हे भाशेचो अवहट्ठ वा देसिल बअना ह्या नांवान उल्लेख करता. भोजपुरी आनी मगही ह्यो, मैथिली भाशेच्या लागसार आशिल्ल्यो भाशा मानच्यो कांय मैथिलिच्यो बोली मानच्यो हेविशीं मतभेद आसात. पूण मगही आनी मैथिली भाशेंत खूब सारकेंपण आसा. भागलपूर, दरभंगा हांगाच्या ब्राह्मणांनी सांबाळिल्ली मैथिली ही शुध्द आनी प्रमाण बोली मानतात. गंगेचे उत्तरेकडे, दाक्षिणात्या प्रमाण मैथिली उलयतात. गंगेचे उत्तरेकडले मैथिलीक छिकाछिकी बोली म्हण्टात, कारण हे भाशेंत खुबदां छिक् हो शब्द येता. मैथिलीचे सिरिपुरिया हे बोली भाशेंत बंगाली आनी मैथिली भाशेचो मेळ दिसून येता. फार्सीतल्यान उश्णे घेतिल्ल्या शब्दांनी तयार जाल्ली जोलहा ही बोली मुसलमान लोक उलयतात. बिहारांतले हेर भाशा उलोवपी लोक मैथिलीक 'ति-हुतिया' अशें म्हण्टात. मैथिली भाशेचेर संस्कृत, फार्सी, मुंडा, बंगाली ह्या भाशांचो परिणाम जाला. बंगाली भाशेभशेन मैथिलीचें असमिया, उडिया, भोजपुरी, खडी बोली ह्या बोली भाशांकडे खूब सारकेंपण आसा.

दरभंगा हें हे भाशेचें प्रधान केंद्र. हे भाशेची एक लिपी आशिल्ली. तिका तिरहुता वा मिथिलाक्षर अशें नांव आशिल्लें. पूण हालीं मैथिलीचें लिखाण मैथिली, कैथी आनी देवनागरी ह्या तीन लिपयांतल्यान जाता. मैथिलीच्यो सगळयो मेळून सात बोली आसून तांचीं नांवां, आनी त्यो ज्या प्रदेशांत उलयतात, त्या प्रदेशांचीं नांवां अशीं आसात-

१) आदर्श मैथिली - उत्तर दरभंगा.

२) दक्षिणी मैथिली - दक्षिण दरभंगा, उदेंती मुजफ्फरपूर, उदेंत मोंघीर, उत्तर भागलपूर आनी अस्तंत पूर्णिया.

३) उदेंती मैथिली वा खोट्टा बोली-उदेंत पूर्णिया, माल्दा आनी दिनाजपूर.

४) छिका-छिकी-दक्षिण भागलपूर, उत्तर संथाळ परगणा आनी दक्षिण मोंघीर.

५) अस्तंती मैथिली - अस्तंत मुजफ्फरपूर आनी उदेंत चंपारण.

६) जौलही मैथिली - उत्तर दरभंग्यांतले मुसलमान लोक ही बोली उलयतात.

७) केंद्रीय जनसादारण मैथिली - उदेंत सोतिपुराची आनी मधुबन ह्या वाठारांतले सकयले पातळेवयले लोक ही उलयतात.

'आसा' ह्या क्रियापदाक मैथिलींत 'अछ' हें क्रियापद आसा. मराठी 'ळ' चें मैथिलींत 'र' जाता. संस्कृतांतल्या 'ष' चें मैथिलींत 'ख' जाता. कर्तो आनी कर्म ह्या दोगांयकडे एकेच फावट क्रियापदाचो संबंद येता. कर्तो हो आदरार्थी वा सामान्य आसता. तशेंच कर्मूय आदरार्थी आनी सामान्य आसता. क्रियापदाच्या रुपांत वचन आनी लिंग हो भेद ना. देखीकः 'देखलक' हाचो अर्थ तिणें वा ताणें पळयलें आनी 'देखलथीन्ह' म्हळयार जाका पळयलें ती व्यक्ती आदरणीय आसा असो अर्थ जाता. फकत बायलांनी वापरपाचे अशे जायते खास अशे शब्द मैथिलींत आसात. देखीक : रै-आरे, बार-न्हवरो, मनसा-मनीस. मैथिलींत रंगांची खरसाण दाखोवपी शब्द आसात. काडी खटखट-काळोकुट्ट, उज्जड दपदप-धवो फुल्ल. मैथिलींत नामांचीं पुल्लिंग आनी स्त्रीलिंग हीं दोनूच लिंगां आसतात.

**मैथिली साहित्य :** १९६५ वर्सा, मैथिली भाशेक भारताची सतरावी साहित्यिक भाशा म्हूण साहित्य अकादमीन मान्यता दिल्या. मैथिली साहित्याच्या इतिहासाची सादारणपणान तीन कालखंडांत वांटणी करूं येताः

१) आदिकाळ इ.स. ७०० ते इ.स. १६००.

२) मध्यकाळ इ.स. १६०० ते इ.स. १८६० आनी

३) आर्विल्लो काळ इ.स. १८६० सावन.

सामान्यपणान आदिकाळांत काव्य, मध्यकाळांत नाटक आनी आर्विल्ल्या काळांत गद्य साहित्य उजवाडा आयलें.

**आदिकाळ :** पुर्विल्लें मैथिली साहित्य बौध्द आनी तांत्रिकांच्या उपदेशाच्या रुपांत मेळटा. हें साहित्य दोहे आनी चर्यागीतां स्वरुपांत आसा. विक्रमशीला विद्यापिठांत चौऱ्यायशीं सिध्दांनीं बरयल्लीं चर्यागीतां उपलब्ध आसात. हांची भाशा समजुपाक कठीण आसा. तातूंत मिथिलेचे उदेंतेकडली बोली वापरल्या. धाव्या शेंकड्यांतल्या कर्णाट राजान, संस्कृतायेचे परंपरेवांगडा मैथिली संगीत परंपराय निर्माण केली. हे परंपरेंत विद्यापती हो एक नामनेचो कवी जावन गेलो. ह्याच काळखंडांतले हेर कांय नामनेचे कवी जावन गेले ते अशे- ज्योतिरीश्वर ठाकूर, गोविंददास, महीनाथ ठाकूर, लोचन झा, रामदास झा, हर्षनाथ झा, अमृतकर, हरपती, चंद्रकला, विष्णुपुरी, भानू, यशोधर, गजसिंह, कविराज, दशावधान, भीषम आनी हेर.

ह्या सगळ्या कविमंडळांत विद्यापती हो सगळ्यांत श्रेश्ठ कवी मानतात. 'मैथिलिककविकोकिल' हे भोवमानेचे पदवेनूच ताका वळखताले. ताणें जयदेवाच्या 'गीतगोविंद' परंपरेंतल्यो कविता रचल्यो. ताच्या पदांतल्यान कृष्णभक्ती दिसून येता. विद्यापतीचे पयलीं ज्योतिरीश्वर ठाकूर हो कवी जावन गेलो. ताच्या 'वर्णन-रत्नाकर' ह्या ग्रंथाची खूब नामना आसा. हो ग्रंथ काव्य-परंपरा दाखोवपी, विद्यापतीचो मार्गदर्शक आसुंये, अशें मानतात.

नेपाळांतले सिंह नरसिंह, भूपतींद्र मल्ल, जगप्रकाश मल्ल हांणी विद्यापतीच्या 'शिव-शक्ती' पदांचें अनुकरण केलां. महाराज कंस नारायण हाच्या दरबारांत गोविंद नांवाचो कृष्णभक्त कवी आशिल्लो. ताणें संस्कृतांतल्या 'काव्यप्रकाशाचेर 'काव्यप्रदीप' नांवाची टीका बरयल्या. विद्यापतीक लागून बंगाल, आसाम, त्रिपुरा, ओरिसामेरेन मैथिलीचो प्रभाव पावलो.

ऑइनवार राजवंशांतल्या राजा लक्ष्मीनारायण, राजा शिवसिंह आनी राणी लखिमादेवी हांणीय कांय काव्यकृती निर्माण केल्यो.

**मध्य काळ :** ऑइनबार वंशाचो आसरो सोंपतकच कवी आनी संगीतज्ञ नेपाळच्या दरबारांत गेले. थंयच्या मल्ल राजाक कविता तशेंच नाटकाची आवड आशिल्ल्यान, ह्या काळांत नाटकाची खूब साहित्यनिर्मिती जाली. सुरवातेक, ह्या नाटकांनी संस्कृत संवाद आनी पद्य मैथिली आसतालें. उपरांत पुराय नाटक मैथिली भाशेंत बरोवप जालें. ह्या नाटकांनी नाचाक चड प्राधान्य आसतालें. हें नाट्य भक्तिप्रधान आसून, तातूंत चडकरून शिव आनी कृष्ण हांची चरितकथा आसता. गोरक्षचरित, नलविजय, आनंदविजय, पारिजातहरण हीं कांय नामनेचीं कीर्तनिया नाट्यां आसात. मैथिलींतल्या स्वतंत्र नाट्यसाहित्याक 'कीर्तनिया' ह्या नांवान वळखताले. ही परंपरा उमापती उपाध्याय हाणें सुरू केली. गोविंद हाच्या 'नळचरितनाटक' हातुंतलीं पदां मैथिलींत आसात. तशेंच रामदास झा हाचें 'आनंदविजयनाटिका' देवानंद हाचें 'उषाहरण', उमापती उपाध्यायाचें 'पारिजातहरण', रमापती उपाध्यायाचें 'रुक्मिणी परिणय' हीं नाटकां हरिवंशाचेर आदारिल्लीं आसात. विसाव्या शेंकड्यामेरेन अशीं नाटकां बरयलीं. १३२४ ते १६०० हो सुरवातेचो काळ, १६०० ते १८६० हो भरभराटीचो काळ आनी १८६० ते १९२० हो पडतो काळ अशे कीर्तनिया नाटकांचे तीन वांटे केल्यात.

भातगांव, काठमांडू आनी पाटण हीं नाटकाचीं तीन केंद्रां आशिल्लीं. जगज्योतिर्मल्ल, जगत्प्रकाश मल्ल, जितामित्र मल्ल, भूपतींद्र मल्ल आनी रणजित मल्ल हे पांच नामनेचे नाटककार जावन गेले. रणजित मल्ल हाणें सगळयांत चड नाटकां बरयलीं. तातुंतलीं सतरा नाटकां उपलब्ध आसात. काठमांडूचो वंशमणी झा हो नामनेचो नाटककार आनी पाटणांतलो सिध्दनरसिंहदेव हो नामनेचो कवी आनी नाटककार आशिल्लो.

'अंकियानाट' हो मैथिली नाटकाचो एक प्रकार आसामांत, सोळाव्या सतराव्या शेंकड्यांत पळोवपाक मेळटा. वैश्णव धर्म प्रचाराच्या हेतान हो प्रकार निर्माण जालो. ह्या नाट्यप्रकारांत कृष्णाच्या बाळ लिलांचें वर्णन केलां. हीं नाटकां एक अंकी आसात. शंकरदेव हाणें जायतीं नाटकां बरयलीं. तातुंतलीं 'कालिया दमन', 'राम-विजय', 'रुक्मिणी हरण', 'केलि-गोपाल' 'पत्नी-प्रसाद', 'पारिजात-हरण' हीं सच नाटकां उपलब्ध आसात. माधवदेव हाणें 'अर्जुन-मंजन', 'भोजन-विहार', 'भूमि लुतिवा', 'कोतोरा-खेलोवा' आनी गोपाल देव हाचीं 'जन्म-यात्रा', रामचरण ठाकुर हाचें 'कंस वध' हे कांय नामनेचे अंकियानाट आसात.

ह्या काळांतले वैश्णव संत कवी साहेब रामदास हाचे 'पदावली'ची खूब नामना आसा. तशेंच लोचन, भूपतींद्र, गोविंददास, नंदपती, मनबोध, कर्णश्याम, हर्षनाथ हे त्या काळांतले नामनेचे कवी आसात.

**आर्विल्लो काळ :** ह्या काळांत मिथिल भाशेच्या अभ्यासाक आनी संशोधन कार्याक गती मेळ्ळी. अस्तंत्या शिक्षणाचो प्रसार, छापखाने हाका लागून मिथिलेचे जीणेंत खूब बदल जालो. मिथिला महासभा, मिथिला शिक्षित समाज, मिथिला संमेलन ह्यो संस्था निर्माण जावन नवी जागृताय जावंक लागली.

**कथा आनी कादंबऱ्यो :** स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत, कादंबरीपरस कथेच्या क्षेत्रांत चड उदरगत जाली. मैथिली पत्रिकांतल्यान कथेची वाड

जायत गेली. एकोणिसाव्या शेंकड्याच्या निमाणेकडे श्रीकृष्ण ठाकुर हाचो 'चंद्रभागा', वैद्यनाथ मिश्र हाचो कथांझेलो तशेंच विनोदी कथांचो 'गप्पा सप्पाका खरीहान' हो झेलो आसा. कालिकुमार दास हाचे 'भीषण अन्याय', 'कामिनीका जीवन', 'कमला', 'गंगास्नान', 'अदला का बदला' हे उल्लेख करपासारके झेले आसात. ह्याच काळांतल्यो लक्ष्मीपतिसिंह, गुणवंतलालदास, हरिनंदन ठाकुर (सरोज) हांच्योय कथा आसात. कालिकुमारदास आनी सरोज हांणी आपल्या कथांनी समाजीक जिणेंतल्या दोशांवांगडा भोळें प्रेमूय उक्तायलां. के. एन्. ठाकुर, यदुनंदन झा, परमानंद दत्त, भुवनेश्वरसिंह, अलख निरंजन ह्या कथाकारांभितर समाजीक जाणविकाय, जीणेच्या प्रस्नांकडे पळोवपाची नदर आनी कथेच्या स्वरुपाचें आकलन चड आशिल्लें.

१९४० उपरांतचे पिळगेंत प्रबोधनारायण चौधरी, सुरेंद्र झा, हरिमोहन झा, भीमेश्वरसिंह, नगेंद्रकुमार, उपेंद्र झा (व्यास) योगानंद झा ह्या कथाकारांचो आस्पाव जाता. श्रीमती शांभवी देवी, अन्नपूर्णा, लक्ष्मीवती देवी ह्या लेखिकांनीय कथा बरयल्यो. शैलेंद्र मोहन झा हाणें कथेक काव्यात्मकतेची जोड दिली. ताचो 'पथ हेरती राधा' (१९६३) हो नामनेचो कथाझेलो आसा. राज मोहन झा, रामदेव झा, मायानंद मिश्र (मांग का लोटा), ललित (प्रतिनिधी), राजकमल (ल्लक पाग), रामानंद रेणू (कचोट, त्रिकोण), हंसराज (सतरंज), प्रभासकुमार चौधरी, गंगेश गुंजन हे नामनेचे कथाकार आसात. तशेंच जीवकांत, रामदेव झा, रुपकान्त ठाकुर, धीरेश्वर, राधाकृष्ण (बहेद), सोमदेव, धुमकेतू, मधुकर गंगाधर, मार्कंडेय ह्या कथाकारांनी कथेच्या मळार खूब वावर केलो.

हरिमोहन झा हाच्यो कन्यादान, द्विरागमन, खट्टरककाकतरंग, प्रणम्य देवता, रंगशाला, चर्चरी ह्यो कादंबऱ्यो खूब गाजल्यो. रास बिहारीलाल दास, जनार्दन झा, भोला झा, पुण्यानंद हांच्योय कृती गाजल्यो. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत वैद्यनाथ मिश्र हाच्या कादंबरींचो प्रभाव दिसता. पारो, नवतुरिया, रतिकान्तक, पितिआइन ह्यो ताच्यो कांय नामनेच्यो कादंबऱ्यो आसात. हिंदींत ताणें 'नागार्जुन' ह्या टोपण नांवान बरोवप केलां. ताणें सहरसा, पूर्णिया, मोंघीर, दरभंगा, भागलपूर, मुझफरपूर हांगाच्या विंगडविंगड बोलींचो आपल्या लिखाणांत उपेग केला. मनींदरनाथ चौधरी हाची 'राजकमल' ही कादंबरी खूब गाजली. मायानंदान आपल्या कादंबरींनी जिणेंतले काव्यात्मक खीण पारखिल्यात. 'बिहारी-पात पत्थर', 'खोटा ओ सिदई' ह्यो ताच्यो म्हत्वाच्यो कादंबऱ्यो आसात. धीरेंद्र हाणें 'मोरूकवा' आनी 'काडो-कोइला' ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो. तशेंच ललित हाची 'पृथ्वीपुत्र', रानानंद रेणूची 'दूध-फूल', 'चंद्रनाथ मिश्र (अमर) हाची 'वीरकन्या' आनी 'बिदागरी', शैलेंद्रमोहन झां हाची 'प्रतिमा', बद्रीनारायणदासाची 'चंद्रकला', विनोद हाची 'नयनमणी', बिंदेश्वर मंडल हाची 'बाटक भेट जीनगीक गेठ', 'कुँवरकांताची 'सेहेंता' ह्यो हेर कांय कादंबऱ्यो आसात.

नवे पिळगेंतलो एक नामनेचो लेखक म्हूण जीवकांत हाचो उल्लेख जाता. ताच्यो 'दू कुहेसक बात' आनी 'पानिपत' ह्यो नामनेच्यो कादंबऱ्यो आसात. ताचे 'आग्निबाण' हे कादंबरींत मिथिलेचें चित्रण आयलां. प्रभासकुमार चौधरी, रामकिसन झा, सोमदेव, राममोहन झा, कुमार इंद्रानंद सिंह, ब्रजकिशोर वर्मा, डॉ. वी. झा, कपिल, रामदेव, गंगेश गुंजन हांणीय मैथिली कांदबरीची खूब उदरगत केली. उपेंद्रनाथ झा हाका १९७० वर्सा चो साहित्य अकादेमी पुरस्कार ताचे 'दू पत्र' हे कादंबरीक मेळ्ळो.

**कविता :** संस्कृतांतल्या महाकाव्यांचे अणकार उजवाडा येवंक लागले. मनोबोधांच्या 'कृष्णजन्म' (१८८०) सावन मैथिली काव्याक सुरवात जाली. अणकारीत महाकाव्यांभितर चंद झा हाचें 'रामायण', लालदास हाचें 'रामेश्वर रामायण' तशेंच रघुनंदनदास हाचें 'सुभद्राहरण', बदरीनाथ झा कविशेखर हाचें 'एकावली परिणय', अच्युतानंद दत्त हाचें 'कृष्ण चरित्र', तंत्रनाथ हाचें 'कीचकवध', गौरीशंकर झा हाणें मायकेल मधुसुदन दत्त हाच्या 'मेघनाथवध' हाचे केल्ले अणकार म्हत्वाचे आसात. पुरणकथांच्या आदाराचेर जायतीं खंडकाव्यांय बरयलीं. तातूंत मथुरानंद चौधरी हाचें 'कृषक', व्यासाचें 'संन्यासी', चौधरीचें 'पतन' हीं नामनेचीं काव्यां आसात. गंगेश गुंजन हाचें 'हम एक मिथ्या परिचय' हें उल्लेख करपासारकें काव्य आसा. लोकगितां आनी अस्तंती गितांच्या आदाराचेरूय गीतां बरयलीं. चंद झा, हरखनाथ, जीवन झा, आनंद झा हे म्हत्वाचे गीतकार आसात. 'मैथिली गीतांजली' आनी 'मैथिली संदेश' ह्या क्रमान यदुनाथ झा आनी शामानंद झा हांच्या झेल्यांवयल्यान लोकजागृताय आनी राष्ट्रप्रेमाची भावना जागी जाता.

आर्विल्ली मैथिली कविता इंग्लीश, हिंदी, बंगाली हांचो प्रभाव घेवन उदरगतीक पावली. यात्री हाच्या 'पत्रहीन नग्न गाछ' ह्या कविताझेल्याक १९६८ वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार फावो जालो. राजकमल हाणें आपले कवितेंत, 'स्वरगंधा' हातूंत बदलपी जीणेचे रंग दाखयले. ताचीच परंपरा सोमदेव, रामानंद रेणू, भीमनाथ झा आनी जीवकांत हांणी चलयली. हालीं 'नचिकेत' ह्या कवीचें नांव घेतात. ताचे 'कवयो वदन्ति' आनी 'अमृतस्य पुत्र': हे काव्याझेले उजवाडा आयले.

**नाटक, एकांकिका आनी समीक्षा :** विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक कीर्तनिया नाटक परंपरा खूब गाजली. नेपाळांत काठमांडू लागसार पाटण हांगा 'कार्तिक नाच' ह्या नांवान आयजूय ही नाटक परंपरा चालू आसा. आनंद झा हाणें रामाचे जीणेचेर आनी पंडित जीवन झा हाणें उपदेशात्मक नाटकां बरयलीं. इशनाथ झा हाचें 'चीनीका लड्डू' हें नाटक खूब गाजलें. त्रिलोकनाथ मिश्र, दामोदर झा, ऋध्दिनाथ झा, गणानाथ झा ह्या लेखकांचेर संस्कृत नाटकांचो प्रभाव आशिल्लो. तृप्तिनारायणलाल, गणानाथ झा, महेंद्र झा, बाबूसाहेब चौधरी हांणी आपल्या नाटकांनी विधवाविवाह, हुंड्याचे प्रस्न हांचेविशींचें चित्रण केलां. तशेंच अणकार,

अनुकरण आनी बंगाली नाटकांचे अणकार करून मैथिली नाटकाची खूब उदरगत केली. कालिदास, इब्सेन, छबिनाथ बंदोपाध्याय हाचीं नाटकां मैथिलींत आयलीं. स्वातंत्र्याउपरांत इतिहासीक नाटकां बरोवप जालीं. विद्यापतीचे जीणेचेर स नाटकां बरयलीं.

काचीनाथ झा, चंद्रनाथ मिश्र, गोविंद झा, गंगानंद सिन्हा हांणी एकांकिका बरयल्यो.

मैथिली साहित्यांत, समीक्षा लिखाण करतना, चडशा पंडितांनी संस्कृत वा अस्तंती समीक्षकांचो आदार घेतिल्लो दिसता. सीताराम झा हाचो 'अलंकारदर्पण', दामोदर झा हाचो 'अलंकार कमलाकर', वेदान्त हाचो 'अलंकृत्तिबोध' हे अलंकारग्रंथ मैथिलींत आसात. रामचंद्र मिश्र हाचो 'चंद्राभरण' हो समीक्षेचेर बरयल्लो म्हत्वाचो ग्रंथ आसा. 'शब्दशक्तित्रिवेणिका' हो उजवाडा येवंक नाशिल्लो ग्रंथूय म्हत्वाचो आसा. कांचीनाथ झा (किरण) हाणें 'आलोचना एक दृष्टिकोण' हो निबंद बरयलो. उमानाथ झा, दुर्गानाथ झा, दामोदर झा, भक्तिनाथ सिंग ठाकुर हांणी परंपरागत अस्तंती सिध्दांन्त आनी अस्तंती लेखकांची मार्क्सवादी नदर मांडल्या. जयधारी सिन्हा हाचो 'काव्यमीमांसा' (दोन खंड), रंघुनंदनदास हाची 'मैथिली नाटक' ग्रंथाची प्रस्तावना, यदुनाथ झा हाची 'मैथिली गीतांजली' ची प्रस्तावना, भुवनेश्वराची 'आषाढ' ह्या काव्यझेल्याची भुमिका हे नदरेन म्हत्वाच्यो आसात.

साहित्याचे सिध्दांत लक्षांत घेवन समीक्षा केल्ल्याच्या वावरांत चंद झा हाचें नांव पयलीं येता. ताणें संस्कृताच्या परंपरागत सिध्दांतांचो तसोच अस्तंती इतिहासीक पद्दतींचोय आपले समीक्षेंत उपेग केला. उपरांत म. म. उमेश मिश्र हाणें 'साहित्यदर्पण' चो अणकार केलो. ह्याच काळांत अमरनाथ झा, कुमार गंगानंद सिन्हा, भोलालालदास, गणपती सिन्हा आनी भुवनेश्वर सिंह (भुवन), श्रीकृष्ण मिश्र, राधाकृष्ण चौधरी, कृष्णकांत मिश्र, बालगोविंद झा, हरिनारायण झा, मायानंद मिश्र हांचीं नांवां समीक्षेंत म्हत्वाचीं आसात.

ब्रजकिशोर वर्मा आनी जयगोविंद मिश्र हांणी लोकसाहित्याचो खोलायेन अभ्यास केलो. मैथिली लोक साहित्यांत कथा-काणयांपरस लोकगीतांच चड आसात. सोरोप, विचू, भूत-पिशाच देंवोवपाचे मंत्र हें मैथिली लोकसाहित्याचें एक खाशेलपण आसा.

**दिसाळीं आनी नेमाळीं** : मिथिला-हित साधना (१९०५), मिथिला मिहिर, (१९०८), मिथिला प्रभा (१९२४), मिथिला प्रभाकर (१९३०), मिथिला-बंधु (१९३५), मिथिला-युवक (१९३८), जीवन-प्रभा (१९४०) हीं दिसाळीं उजवाडा आयलीं. तशेंच श्री मैथिली मिथिला मोद, भारती, विभूती आनी मिथिला साहित्य पत्र हीं तिम्हयन्याळीं आयलीं. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत 'मिथिला मिहिर' आनी वैदेही हीं मुखेल पत्रां थारलीं. मैथिली साहित्यांत जें आर्विल्लेंपण आयलें तातूंत बंगालचे विद्वान हरप्रसाद शास्त्री, प्रबोधचंद्र बागची, सुनीतीकुमार चतर्जी, नगेंद्रनाथ गुप्त, खगेंद्रनाथ मित्र हांचो आस्पाव जाता.

**संकीर्ण प्रकार** : लेखकांच्यो घेतिल्ल्यो चरित्रात्मक मुलाखती, तत्त्वज्ञानात्मक लिखाणूय मैथिलींत आसा. निबंदाचे तुळेन भोंवडेवर्णनां मैथिलींत खूब कमी आसात. दुर्गाधर झा हाचें 'सांख्यशास्त्र' हें भारतीय तत्त्वज्ञानाचेर बरयल्लें पुस्तक, भैरवनाथ झा हाचें 'व्यवहार विज्ञान' हें समाजशास्त्रावयलें पुस्तक तशेंच रमानाथ झा हाचें 'अलयकुलप्रकाश', परमेश्वर झा आनी मुकुंद झा हांणी बरयल्लो मिथिलेचो इतिहास, दीनबंधू झा हाणें बरयल्लें व्याकरण, क्षेदमहरी सिंह हाचीं 'मनोविज्ञान' आनी 'निबंध चंद्रिका' हीं पुस्तकां आसात. कवितेंत देशभक्तीचेर तशेंच विनोदी आनी व्यंग कविताय बरयली. हरिमोहन झा हाचीं 'टी-पार्टी' आनी 'घाला झा-क-बिदाई' हीं काव्यां हे नदरेन पळोवपासारकीं आसात. शांभवी देवी हिणें 'मिथिलक विदुषी महिला', राजलक्ष्मीन 'भागवतप्रकाश', 'गया यात्रा' ह्यो गद्य रचना केल्यात. तशेंच लक्ष्मीवती देवी, श्यामादेवी, प्रभादेवी, शांतिकुमारी, सुभद्राकुमारी, कामारख्यादेवी, जयंतीदेवी हीं नांवां गद्य रचणुकेंत उल्लेख करपासारकीं आसात.

ल्हान भुरग्यांखातीर बरयल्ल्या साहित्यांत प्रा. कंटक हाच्या 'तारेगण' चो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

## मोंताले, एऊजन्यो :

(जल्म : १२ ऑक्टोबर १८९६, जेनोआ; मरण : १२ सप्टेंबर १९८१).

नोबॅल इनाम फाव जाल्लो नामनेचो इटालियन कवी. जेनोआ हांगा ताणें शालेय शिक्षण घेतलें. पयल्या म्हाझुजांत लश्करी अधिकारी म्हूण ताणें काम केलें. उपरांत तो साहित्य निर्मिती करूंक लागलो. १९२२ त ताणें एक साहित्यीक पत्रिका काडली. १९२९-३८ ह्या काळांत तो फ्लॉरेन्सांतल्या एका ग्रंथालयाचो मुखेल ग्रंथपाल जालो. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांतच्या काळांत तो मिलान हांगा रावपाक गेलो. १९४८ त इटलिंतल्या एका नामनेच्या दिसाळ्यांत (Corriere Della Sera) संपादक मंडळांत ताचो आस्पाव केल्लो. थंय ताणें संगीत समीक्षेचेर लिखाण केलें.

'कटलफिश बोन्स' (१९२५) हो मोंतालेचो पयलो कवितांझेलो. उपरांत ताचे 'द हाऊस ऑफ द कस्टम्स ऑफिसर अँड अदर पोएम्स (१९३२), 'द ऑकेजन्स' (१९३९), 'द स्टॉर्म अँड अदर पोएट्री' (१९५६), 'द ऑफेंडर' (१९६६) हे कवितां झेले उजवाडाक आयले.

इटलिंतल्या फॅसिस्ट राजवटीच्या काळांत एर्मेतिझमो (हेर्मेटिझम) नांवाचो जो काव्यसंप्रदाय निर्माण जालो तातूंत मोंताले हो एक मुखेल कवी. कवीच्या आशयाची नेमकी अभिव्यक्ती करतात अशे शब्द

कवितेखातीर वेंचप आनी कवीक अभिप्रेत आशिल्ल्या अर्थापरस वेगळ्या अशा अर्थछटांपसून ताका वेगळें करप ही हे कवितेची मुखेल प्रक्रिया आशिल्ल्यान ह्या संप्रदायाक एर्मेतिझ्मो नांव मेळिल्लें.

मोंतालिन शेक्सपिअर, टी. एस्. एलियट् हॉपकिन्झ, हर्मन मेलाव्हिल ह्या सारक्या श्रेश्ठ साहित्यिकांच्यो साहित्याचे इटालियन भाशेंत अणकार केल्ले. मोंतालेच्या कवितांचोय इंग्लीशींत अणकार जाला. १९७५ वर्सा ताका साहित्याचें नोबेल इनाम दिवन ताच्या साहित्यवावराचो भोवमान करपांत आयलो.

- कों. वि. सं. मं.

## मोंतेर, प्लेटिन्यू : (जल्म : लोटली).

एक गोंयकार धर्मप्रचारक. जायतीं वर्सां तो कोचीनचो व्हीकार जनरल आशिल्लो. १९३९ ते १९४२ ह्या काळांत तो 'सेदे व्हेंकांते' डायोसीस चो गव्हर्नर आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## मोगरी : (मराठीः मोगरा; हिंदीः बनमल्लिका, चंबा, मोग्रा; कन्नडः एलुसुत्तू मल्लिगे, इरुवंतिगे, सज्जिमल्लिगे, कोलु मल्लिगे; संस्कृतः मल्लिका; इंग्लीशः अमेबियन जॅस्मिन, तस्कन जॅस्मिन; लॅटीनः जॅस्मिनम सँबेक; कूळः ओलिएसी).

हें झोंपावरी पूण सरळ आनी वालीचें फूलझाड भारतांत सगळेकडे दिश्टी पडटा. उश्ण आनी उपोश्ण कटिबंधांत हें झाड सगळेकडे लागवडींत आसा. पुर्विल्ल्या काळासावन भारतांत ताची लागवड जाता आसून तें मूळचें भारतांतल्या अस्तंत वाठारांतलें आसुंये. हाचीं पानां सादीं, एकांमेकांसामकार केन्ना केन्नाय त्रिदली तांतया आकाराचीं दीर्घ वृत्ताकार आनी गुळगुळीत आसतात. फुलां खांदयांच्या तोंकाक एकएकटीं, वा तिनांचो घोंस येता असून, तीं धवीं आनी वासाळ आसतात, संवर्तदलां ५-९, रेखीव आराकृती, पाकळ्यो अशीर तोंकाच्यो वा मोटव्यो आसतात. मृदुफळां पिकतकच काळीं जातात. हेर शारिरीक लक्षणां ओलिएसीन वर्णन केल्लेवरी आसतात. मोगरेचीं शारिरीक लक्षणां वेगवेगळीं आसतात. ताका लागून तांच्यांत जायते प्रकार दिश्टी पडटात. भारतीय मोगरेच्या प्रकारांचे चार गट पडटात. १) मोतिया बेलाचीं फुलां दोट्टी आसून ताच्यो पाकळ्यो वांटकुळ्यो आनी कळेय वाटकुळे आसतात. २) बेलाचीं हीं फुलां दोट्टी आनी लांबशा पाकळ्यांचीं आसतात. ३) हजारा बेलाचीं फुलां (हजारी मोगरो) एकोडीं आसतात. ४) मुंग्राचीं फुलां गोंडीं आसतात आनी तांचे कळे वांटकुळे आसून तांचो व्यास सुमार २.५० सेंमी. आसता.

मोगरेच्या झाडाक सगळे तरेची जमीन मानवता. पूण सुपीक जमीन, सुकें हवामान आनी भरपूर सूर्यप्रकाशांत मोगरेक बरो चंवर येता. सुरवक जमीन खोल खणून वा नांगरून जमीन मोव आनी भुसभुशीत करतात आनी तातूंत शेणखत वा कंपोस्ट सारें भरशितात. उपरांत आळीं काडून १ ते १.५ मी. अंतराचेर पावसाळयांत छाट कलमां, वा खांदयो रोवन मोगरेची लागवड करतात. नोव्हेंबरांत उदक दिवपाचें थांबयतकच पानां गळून झाडाक सुशेग मेळटा. उपरांत दर एका झाडाक शेणखत वा कंपोस्ट सारें दिवन उदक घालतात. झाड कळेतकच ताका भरपूर उदक घालतात. फुलांचो चंवर गिमांत आनी पावसांत चड करून जून जुलय म्हयन्यांत चड येता. फुलांचें हेक्टरी १५०० किग्रॅ. उत्पन्न येता.



मोगरी : पानां फुलासयत खांदी

मोगरेच्या फुलांचो उपेग भारतांत हार, तुरे, गुच्छ, माळो, फांतयो आनी देवपुजेंत करतात. चीनांत तांचो उपेग च्याक रूच हाडपा खातीर करतात. मलायांत केंसांक लावपाच्या खोबरेल तेलांत वासाखातीर तीं वापरतात. मोगरेच्या फुलांपसून सुवासीक द्रव्यां आनी अत्तरां काडटात.

मोगरेच्या पानांचो काडो जोराचेर दितात. घाय वा कातीरोग हांचेर पानांचो लेप लायतात. बाळंटेरा वेळार स्तनांत दुदाच्यो गांठी जाल्यार मोगरेचीं फुलां धोडावन स्थानाचेर बांदतात. ७-८ तासांनी तें बदलून परत नवें बांदतात. ताका लागून दूद बंद जाता. सूज उतरता आनी पूं जायना. रक्ताहागवणीचेर पानां थंड उदकांत घोटून, गाळून आनी खडीसाखर घालून पिवपाक दितात.

मोगरेक खवल्या कीडीचो त्रास जाता. ताकालागून पानांचेर कवकांची (बुरशीसारख्या हरितद्रव्यरहीत सूक्ष्म वनस्पतींची) वाड जाता. जॅस्मिन फ्लायक लागून कळयांचें नुकसान जाता. कृत्रिम पायरेथ्रॉयडाकलागून कीटकनाशकाची फवारणी केल्यार किडीक बरोच आळो बसता.

- मिंगेल ब्रागांझा

- कों. वि. सं. मं.

**मोगल राजवंश** : मुगल वा मोगल हें मोंगल शब्दाचें अरेबिक आनी परसियन रूप आसा. इ.स. १५२६ वर्सा बाबरान दिल्लीक स्थापिल्ल्या वंशाक मोगल अशें म्हण्टात. तेन्नासावन इ.स. १८५७ मेरेन ह्या वंशांतले मोगल दिल्लीचे बादशाहा आशिल्ले. ह्या काळांत मोगलांचें राज्य वाडतवाडत लागीं लागीं सबंद हिंदुस्थानाचेर पातळिल्लें. बाबराचो बापूय उमरशेख मिर्झा हो तुर्क सुलतान तैमूरलंग हाचो वंशज आशिल्लो. ताची आवय बेगम कुतलुग निगार खानम ही मोगल सरदार चंगेजखान हाच्या वंशांतली आशिल्ली.

बाबर हो जहीरुद्दीन ह्या नांवान भारतांत आयलो. ताचो जल्म परगण्याची राजधानी आंदिजान हांगा जालो. ख्वाजा उबैदुल्ला खान ह्या गुरून बाबर अशें ताचें नामकरण केल्लें. मुखार ह्याच नांवान ताणें नामना जोडली. बाबर हाणें इ.स. १४९४ सावन १५०२ मेरेन परगण्याचेर राज्य केलें. उपरांत दोन वर्सां ताका वनवास भोगचो पडलो. इ.स. १५०४ त तो काबूलाचो बादशाहा जालो. इ.स. १५१९ ते १५२६ ह्या काळांत ताणें भारताचेर पांच घुरयो घाल्ल्यो. १५२५त ताणें भारताचेर पांचवी घुरी घातली. तेन्ना दिल्लीक सुलतान इब्राहीम लोदी राज्य करतालो. एप्रिल १५२६ त पानिपत हांगा बाबर आनी इब्राहिम लोदी हांचेभितर व्हड झूज जावन हातूंत इब्राहिम लोदीक मरण आयलें. दिल्लीच्या सुलतानशाहीचो शेवट करून चतगाई तुर्क हांणी भारतांत मोगल साम्राज्याची स्थापणूक केली. उपरांत रजपूत हांकां हारावन तांणी मेवाड, चांदवा, ग्वाल्हेर आनी हेर राज्यां हातासलीं. दिल्लीचे गादयेर आयल्या उपरांत बाबरान कांय तेंपाभितरूच मध्य हिंदुस्थानांतली रापडी, इटावा, कनोज, जोनपूर गाझीपूर आनी हेर प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडले. मेदिनीराय हाचो पराभव करून ताणें चंदेरी किल्लो घेतलो. रजपुतांवांगडा ताणें सहिश्णु धोरण आपणायल्लें. इ.स. १५५० त ताका मरण आयलें आनी ताचो चलो हुमायून दिल्लीचे गादयेर आयलो. बाबर हो एक कुशळ सेनानी तसोच कुशळ लेखकूय आशिल्लो.

**हुमायून** : हो बाबराचे पट्टराणयेचो चलो. ताचो जल्म काबुल हांगा इ.स. १५०८ त जाल्लो. ताचें नांव नसिरुद्दीन मुहंमद हुमायून अशें आशिल्लें. हुमायून १५३० त गादयेर आयलो आनी आपले बापायचे इत्सेप्रमाण ताणें कांय राज्यां आपल्या भावांभितर वांटलीं. पूण कामरान ह्या ताच्या भावान पेशवार, लमघान आनी पंजाब घेवन सुमार २० वर्सां ताचेलागीं संघर्श केलो. उपरांत बैरामखानाच्या आदारान हुमायून कामरानाचे सगळे उठाव मोडून उडयले. कामरान आनी दुसलेभाव असकरी हांकां ताणें हद्दपार केले. हिंदाल ह्या भावान मात ताका सदांच साथ दिली. हुमायुनाची सबंद जीण धांवपळींतूच गेली. ताका सुशेग असो केन्नाच मेळ्ळोना. १५४४ त अफगानचो किल्लेदार शेरखान हाणें हुमायुनाक हारावन ताका लाहोराक धांवडायलो. उपरांत हुमायून परसिया हांगा आलाशिरो घेतलो. शेरखानान दिल्ली आनी आग्रा हातासून थंय अफगान सत्ता परत उबारली. सुमार १५ वर्सांनी हुमायुनान पंजाब, सरहींद, दिल्ली आनी आग्रा आपल्या शेकातळा हाडलीं आनी तो परत दिल्लीचे गादयेर बसलो. सपणां देंवताना सकयल पडून ताका मरण आयलें आनी ताचो चलो अकबर हाचो पिरायेच्या तेराव्या वर्सा राज्याभिशेक जालो.

अकबर हो सगळ्यांत श्रेश्ठ मोगल सम्राट आशिल्लो. अकबरान बऱ्याच प्रदेशांचेर जैत मेळोवन आपलें साम्राज्य बरें व्हड केलें. चुनार, पंजाब, अजमेर, ग्वाल्हेर, जोनपूर, बनारस, मावळा, मेरठ, गोंडवन, जोधपूर, कालींजर आनी हेर प्रदेश आपले सत्तेखाला हाडून ताणें ल्हव ल्हव आपल्या साम्राज्याचो खूब विस्तार केलो. १५८६ ते १६०१ ह्या काळांत ताणें आपली सत्ता काश्मीर, बलुचिस्तान, कंदहार, खानदेश, बेरार, तशेंच अहमदनगर आनी ओरीसाच्या कांय भागांचेर आपली सत्ता स्थापिल्ली. १६०५ त जेन्ना अकबराक मरण आयलें तेन्ना ताचें साम्राज्य १५ प्रांतांनी विभागिल्लें. दक्षिणेक अहमदनगरसावन उत्तरेक काबुल आनी काश्मीर मेरेन ताचो विस्तार आशिल्लो.

अकबराच्या मरणा उपरांत ताचो चलो सलीम (जहांगीर) हो दिल्लीचो बादशाहा जालो. बादशाहा जाल्याउपरांत ताणें नूरजहानाकडेन लग्न केलें. ताचें राजकारभारांत लक्ष नासलें. तो आपलें जिवीत चैनींत सारतालो. सगळो राज्यकारभार ताची बायल नूरजहांच सांबाळटाली. १६११ उपरांत मोगल बादशाहीचीं सुत्रां तिच्याच हातांत आशिल्लीं. जहांगिराच्या तेंपारूच युरोपीय वेपारी भारतांत पावले. ताणें पुर्तुगेजांक हुगळी हांगा आनी ब्रिटिशांक सुरत हांगा वखार उगडपाक परवानगी दिली.

जहांगीरा उपरांत शहजहान गादयेर आयलो. ताणें मोगल साम्राज्याचीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतिल्लीं तेन्ना, मोगल साम्राज्याचो खूब विस्तार जाल्लो. ताणें दक्षिणेंत बूंदेलखंड, हुगळी आपल्या शेकातळा हाडली. निजामशाहीक हारावन ताचेकडेन कबलात केली. गोवळकोंड्याच्या कुत्बशहान शहाजहानाची सार्वभौम सत्ता मान्य केली. विजापूरच्या आदिलशाहानूय तशेंच केलें. १६४६त ताणें मध्य आशियांतले बदख्शाँ आनी बल्ख हे प्रदेश हातासले. कंदहार घेवपाचे ताणें तीन फावटी यत्न केले. पूण ताका यश आयलें ना. ह्या झुजांक लागून मोगल सेनेचें खूब नुकसान जालें आनी खूब खर्च जाल्ल्या कारणान अर्थीक स्थितीचेर वायट परिणाम जालो.

१६५७ त जेन्ना शहाजहानाची भलायकी इबाडली तेन्ना, ताच्या चल्यांभितर यादवी झूज सुरू जालें. औरंगजेबान आगऱ्याचेर हल्लो करून आपल्या बापायक म्हळयार शहाजहानाक बंदखणींत घालो आनी ताचे खूब हाल केले. बंदखणींतूच तो सोंपलो. उपरांत आपल्या भावाचो दारा शिकोचो वध करून तो आपूण दिल्लीच्या तख्ताचेर बसलो.

बादशहा जाल्या उपरांत औरंगजेबान आपल्या राजदरबारांत तशेंच धर्मीक मळाचेरूय असहिश्णुता (intolerance) पद्दत आपणायल्ली. कांय इतिहासकारांच्या मतान हे पद्दतीक लागुनच औरंगजेबा उपरांत मोगल साम्राज्याक देंवती कळा लागली आनी ताचो अंत जालो. मुळांतूच तो सनातनी वृत्तीचो आशिल्ल्यान हिंदूंवटेन अकबरान आपणायल्ली ख्यातिमूल्य पद्दत सोडून तो हिंदू लोकांक त्रास दिवपाक लागलो. ताणें भांगरा आनी रुप्या नाण्यांवयले खलिमा काडून उडयले. मुस्लिम सनातनी धर्माची वाड जावंची म्हूण ताणें कांय खास मनीस नेमले. जे मुस्लिम हाचे आड वताले तांकां ते कडक ख्यास्त दिताले. राजदरबारांत ताका हिंदू सरदारांनीय मुसलमानी पद्दतीन नमस्कार करचो पडटालो. सरकारी कचेऱ्यांनी हिंदू लोकांक प्रवेश नाशिल्लो. तांच्या शाळांचो आनी देवळांचो ताणें विध्वंस केलो. ताणें शीख गुरूंकूय त्रास दिल्ले. ह्या सगळयांचो परिणाम म्हळयार उत्तरेक रजपूत, जात आनी शीख हांणी आनी दक्षिणेक मराठ्यांनी औरंगजेबाआड साबार उठाव केल्ले. औरंगजेब आनी मराठ्यांभितर खूब तेंप झगडीं जायत रावलीं. तांणी मराठ्यांक आपल्या शेकातळा हाडपाचे खूब यत्न केले, पूण ताका शेवट मेरेन यश मेळ्ळें ना. निमाणें १७०७त ताका अहमदनगर हांगा मरण आयलें. १६९० च्या सुमाराक भारताच्या बऱ्याच व्हड भागाचेर औरंगजेबाची सत्ता आशिल्ली. काश्मीर ते कावेरीमेरेन आनी काबूल ते कलकत्तामेरेन ताचें साम्राज्य पातळिल्लें.

औरंगजेब एक कर्मठ सुन्नी आनी परधर्मद्वेश्टो आशिल्लो. ताचो कोणाचेरूच विश्वास नाशिल्लो. ताचो कारभार एकतंत्री आशिल्लो. राजकारभार चलयताना ताणें आपल्या भुरग्यांक लेगीत पयस दवरल्ले. ताची बेपर्वा, कुटनीती, धर्मांधता आनी हेर अवगुणांक लागून मोगल साम्राज्य ताच्या उपरांत रोखडेंच नश्ट जालें.

औरंगजेबा उपरांत मुअज्जम, अझम आती कामवक्ष ह्या ताच्या तीन पुतांभितर जाल्ल्या झुजांत मुअज्जत हाका जैत मेळ्ळें. बहादुरशहा ही पदवी घेवन ताणें राज्याचीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. पूण तो मुखेल सरदारांच्या आनी मंत्र्यांच्या हातांतलें बावलें जालो. तांच्या मतांप्रमाण तो राजकारभार चलोवपाक लागलो. ताच्या मरणाउपरांत ताचो पूत जहांदरशाह गादयेर आयलो. पूण ताचो नातू फरुख सियार हाणें सय्यद भावांच्या आदारान राज्य हातासलें. पूण ह्या भावांनीच ताका मारून निकू सियार आनी रफी-उद्दोला ह्या राजपुत्रांक गादयेर बसयले. १७१९त सैय्यद भावांच्या आदारानूच रोशन अख्तर बादशाहा जालो. उपरांत ताणें सैय्यद भावांचो नाश केलो. मुहंमद राजवटींतूच दिल्लीचेर इराणाचो सम्राट नादिरशाहा हाणें घुरी घाली. ताच्या आक्रमणाक लागून मोगल साम्राज्याचो कणोच मोडलो. ते उपरांत बंडखोर प्रांतिक सुभेदारांनी आपलीं आपलीं स्वतंत्र राज्यां उबारलीं. मुहंमदशाहाच्या मरणाउपरांत ताचो पूत अहमदशाहा गादयेर बसलो. ताच्या काळांत खूब उठाव जाले. हैदराबादाचो फिरोजजंग हाणें वजीर जाल्याउपरांत दुसरो आलमगीर हाका गादयेर बसयलो. ह्याच तेंपार अहमदशाहा अबदालीन दिल्लीचेर चवथेफावट घुरी घाली. गाजीउद्दीन हाणें आलामगी हाका मारून ताचो चलो अली मौहर हाका बादशहा केलो. ताच्या तेंपार अहमदशाहा अबदालीन तिसऱ्या पानिपताच्या झुजांत (१७६१) मराठ्यांचो पराभव केलो. बकसाराच्या झुजाउपरांत बंगाल-बिहार आनी ओरिसाचे दिवाणी अधिकार शाहआलमान इस्ट इंडिया कंपनीक दिले. १८०३त दुसरो अकबर गादयेर आयलो. १८३७ त गादयेर आयिल्लो दुसरो बहादूरशहा हो निमाणो मोगल सम्राट आसलो. ताणें १८५७ त जाल्ल्या उठावांत फुडाकार घेतिल्ल्यान, उठाव मोडून उडयल्ल्या उपरांत इंग्लिशांनी ताका बंदखणींत घालो. थंयच ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**मोझँबीक :** आग्नेय आफ्रिकेंतलो एक प्रजासत्ताक देश. क्षेत्रफळ ७,९९,३८०चौ. किमी. लोकसंख्या १,८६,४१,४६९ अक्षवृत्तीय विस्तार १०°२७' द. ते २६°५२' द. आनी रेखावृत्तीय विस्तार ३०°१२' उदेंत ते ४०° ५१' उदेंत. दक्षिण-उत्तर लांबाय १,७७० किमी. आनी उदेंत-अस्तंत रुंदाय १,०९४ किमी. मोझँबिकाचे उत्तरेक टांझानिया, उदेंतेक हिंदी महासागर, दक्षिणेक द. आफ्रिका प्रजासत्ताक, नैर्ऋत्येक स्वाझीलँड, अस्तंतेक द. आफ्रिका प्रजासत्ताक, झिंबाब्वे आनी वायव्येक झाँबीया आनी मालावी हे देश आसात. मापूतो ही देशाची राजधानी.

**भूंयवर्णन :** दक्षिण आफ्रिकेंतलो सगळयांत चड दर्यादेगांवयल्या मळांचो प्रदेश मोझँबिकाक मेळ्ळा. देशाचें सुमार अर्दे क्षेत्र २३०मी. परस कमी उंचायेचें आसा. हे देगेवयल्या सपाट प्रदेशाची सगळयांत चड रुंदाय दक्षिणेक आसून, उत्तरेक ती कमी कमी जायत वता. देशाच्या मदल्या आनी उत्तर वाठारांतल्या देगेवयल्या सपाट प्रदेशांक लागून भितल्लो वाठार १५० ते ६०० मी. उंचायेचो पठारी प्रदेश आसा. ह्या पठारी प्रदेशाची उंचाय अस्तंतेक वाडत वता. हिंदी महासागराक मेळपी लागीं लागीं ५० न्हंयो मोझँबीकसावन व्हांवतात. हातुंतल्यो चडशा न्हंयांचो उगम देशाभायर जाता.

**हवामान :** मोझँबिकाचें हवामान उश्णकटिबंधीय प्रकारचें आसा. तापमान आनी पावस सगळया वाठारांनी सारको आसना. ऑक्टोबर ते मार्चांत हवामान उश्ण आसता आनी एप्रिल ते सप्टेंबरांत हवामान सुकें आसता. जुलयांतलें सरासरी तापमान २०° से. जाल्यार जानेवारींत २७° से. आसता. पावस नेमान असो पडना. विंगड-विंगड वाठारांत पावस ४१ ते १२२ सेंमी. इतलो पडटा. वर्सुकी पावसांतलो ८०% पावस नोव्हेंबर ते मार्च ह्या तेंपार पडटा.

मोझँबिकांत रानांखालचें क्षेत्र बरेंच आसा. आर्द्र हवामानाच्या

आनी पिकाळ जमनींच्या प्रदेशांनी दाट रानां आसात आनी सुक्या रेंवांट आनी फातरी जमनींच्या वाठारांनी सॅव्हाना प्रकारची वनस्पत सांपडटा. नाल्ल, खाजूर आनी ताड भोवप्रमाणांत जाता. मॅहॉगनी, आयर्नवुड, एबनी, साग, रानकाज, सिडार, बाभूळ वनस्पतीचे प्रकार दाट रानांनी मेळटात. देशांत विंगड विंगड प्रकारची मोनजात सांपडटा. हांगाच्या रानांनी झेब्रा, शींव, चित्तो, कोलो, मुंगूस, कस्तुरी, माजर आनी विंगडविंगड जातिंचीं हरणां मेळटात. तेभायर तरेकवार विखयाळे सोरोप आनी सवणीं दिश्टी पडटात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** इ.स. १०००च्या काळांत हांगा बांतू लोक आयले. मुखार अरब वेपाऱ्यांनी सोफाला आनी हेर वाठारांनी वेपारी ठाणीं उबारून ह्या प्रदेशाचो वेपार वाडयलो. सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेक पुर्तुगेज वेपारी हांगाचे दर्यादिगेर आपलो राबितो करूंक लागले. भांगर, हत्तीदांत आनी गुलाम ह्या वेपारांची व्हड संद तांकां ह्या वाठारांत मेळ्ळी. ह्या वेपारांत अरबांक फाटीं घालून पुर्तुगेजांनी आपली सरशी दाखयली. ल्हव ल्हव शेतवड आनी मळे सुरू करून वसाहतींची वाड केली. १८०० मेरेन थळाव्या लोकांच्या खर विरोधाक लागून पुर्तुगेजांची सत्ता दर्यादिगेवयल्या वाठारांनी आशिल्ली. १९५१त मोझँबीक हो पुर्तुगालचो सागरातडी प्रांत जालो. 'पुर्तुगेज उदेंत आफ्रिका' म्हण हे वसाहतीचो पयलीं उल्लेख करताले.

मोझँबिकाचे सशस्त्र स्वातंत्र्य चळवळीक १९६२त सुरवात जाली. त्याच वर्सा देशांतल्यो तीन मुखेल राजकीय संघटना एकठांय येवन 'मोझँबीक लिबरेशन फ्रंट' (फ्रलिमो) हे राजकीय संघटनेची स्थापणूक केली. हे संघटनेन पुतुगेज सत्तेआड कितलेशेच उठाव केले. ह्याच वेळार पुर्तुगालांत १९७४ त राज्यक्रांती जावन नवे पुर्तुगेज राजवटीन मोझँबीक देश स्वतंत्र केलो. अशे तरेन २४-२५जून १९७५ चे मध्यानेर 'मोझँबीक प्रजासत्ताक' जाहिर केलें. सॅमोरा माशेल हो पयलो अध्यक्ष जालो.

२५ जून १९७५ म्हळयार देशाच्या स्वतंत्रतायेदिसा आपणायल्ल्या सविधानांतल्यान शासनाची सगळी सत्ता मोझँबीक राश्ट्रीय चळवळीकडे आसा. देशाचें विधिमंडळ एकसदनी आसा, तातूंत चडांतचड २१० वांगडी आसतात. वर्सांतल्यान दोन फावट विधानसभेचीं अधिवेशनां भरतात. मंत्रिमंडळ अध्यक्षाच्या हाताखाल आसता. प्रजासत्ताकाचो अध्यक्ष राश्ट्रमुखेली आसून तो पक्षांचोय अध्यक्ष आसता.

**अर्थीक स्थिती :** शेतवड हो मोझँबिकाचे अर्थवेवस्थेचो मूळ आदार आसा. देशाच्या वट्ट राश्ट्रीय उत्पन्नांत ४४टक्के उत्पन्न शेतवडीसावन मेळटा. काजू, ऊंस, कापूस, नाल्ल, च्या, टॅपिओका, मको आनी ज्वार हीं म्हत्वाचीं पिकां आसात. हे खेरीज केळीं, कड्डण, तांदूळ, भूंयमूग, सूर्यफुलां, बटाट, कणगां हांचेंय पीक काडटात. पशुपालनाची चड उदरगत जावंक ना.

देशांत खनीज संपत्ती भरपूर आसली तरी ताचो उपेग फावो तसो जावंकना. खाणींभितर कोलंबायट, टँटलाइट, कोळसो, तांबें, बॉक्सायट, फ्ल्यूओरायट बरेंच मेळटा.

हिंदी महासागराचे देगेवयल्या हेर खंयच्याय आफ्रिकन राश्ट्रांपरस मोझँबिकाक सगळयांत चड लांबायेची दर्यादेग फावो जाल्ल्यान नुस्त्याच्या वेवसायांत आंगोला बरोच फुडारिल्लो देश आसा. न्हंयांतले नुस्तें परंपरिक पद्दतीन आनी दर्यांतले नुस्तें यांत्रिक बोटींनी धरतात आनी हातुंतल्या चडशा नुस्त्याची निर्यात जाता.

मोझँबिकाचे अर्थवेवस्थेंत येरादारीचो म्हत्वाचो वांटो आसा. थळाव्या वेपारावांगडा मालावी, झँबिया, झिंबाब्वे, स्वित्झर्लंड आनी द. आफ्रिका मोझँबीकच्या मार्गांचो चडसो उपेग करतात. हाका लागून येरादारीची बरीच उदरगत जाल्या. हांगासर १९८२ मेरेन २७,०००किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. मापूतो, बेयरा, नाकाला आनी क्यूलीमाने हीं म्हत्वाचीं बंदरां आसात आनी नापूतो, बेयरा आनी नामपूला हांगा विमानतळ आसात.

मोझँबीक हें धर्मनिरपेक्ष राश्ट्र आसा. जण एकल्याक धर्मीक स्वातंत्र्य आसा. वट्ट लोकसंख्येंतले सगळयांत चड (६०%) परंपरिक आफ्रिकन धर्माचे लोक आसात. तशेंच रोमन कॅथलीक आनी इस्लाम धर्माचेय लोक हांगा आसात. पुर्तुगेज ही देशाची अधिकृत भास आसा. हे खेरीज विंगड विंगड आफ्रिकन वंशाचे लोक आपल्यो आपल्यो बोलीभाशा उलयतात. हातूंत टोंगान, शांगन आनी मूचोपे ह्यो भाशा चड प्रमाणांत उलयतात. नोतीसिआस दे बेइरा, ए त्रीबूना, नोतीसिआस, दायरीओ दो मोझँबीक ही दिसाळीं आनी दायरिओ तेंपो, दोमींगो हीं सातोळीं उजवाडाक येतात.

- कों. वि. सं. मं.

## मोझेस : (इ.स.प चवदावें - तेरावें शतमान).

ज्यू राश्ट्रसंस्थापक, म्हान ज्यू प्रेशित आनी ज्यू लोकांक तांची धर्मीक-नैतीक- समाजीक संहिता दिवपी एक व्हड फुडारी. मोझेस (हिब्रू- मोशे) हो शब्द इजिप्शियन भाशेंत 'मोसे' म्हळयार भुरगो ह्या अर्थाचो आसा. मोझेसाचो जल्म इजिप्तांत जालो. मोझेसाच्या बापायचें नांव अम्राम आनी आवयचें जोशेबद. हे दोगूय लेव्ही जमातीचे ज्यू आशिल्ले. पूण ज्या युसरो रॅमसीझ ह्या इजिप्ती राजाच्या (फेअरो) राज्यांत तो गुलाम म्हूण रावतालो. ताणें ज्यूंच्या भुरग्यांक नाईल न्हंयेंत बुडोवन मारचे, असो हुकूम काडिल्लो. मोझेसाक ताच्या आवय बापायन तीन म्हयने गुप्तपणान सांबाळ्ळो. पूण निमाणो तांणी ताका तणाचे पेटयेंत दवरून नाइल न्हंयेंत सोडून दिलो. फेअरोची राजकुंवरी न्हंयेचेर न्हाता आसतना तिका हें भुरगें सांपडलें. तिणें त्या भुरग्याक 'मोझेस' अशें

नांव दवरलें आनी ताचें पालन-पोशण केलें.

मोझेस व्हडलो जातकच एकदां ताणें एक इजिप्शियन मनीस एका ज्यूचो छळ करतना पळयलें. ताणें रोखडोच त्या मनशाक जितो मारलो. फेअरोच्या हातांत सांपडचे पयलींच तो थंयच्यान पळ्ळो आनी जेथ्रो ह्या मीडियनच्या धर्मगुरूकडे आयलो. थंय ताणें त्या धर्मगुरूची चली झिप्पोरा हिचेकडेन लग्न केलें. तिंका मोझेसापसून जेरशोम आनी एलिएझट हे दोन पूत जाले. थंयच मोझेसान चाळीस वर्सां मेंढरां राखपाचो वेवसाय केलो.

एकदां हीरेब दोंगराचेर मेंढरां चरयता आसतना मोझेसाक एके झिलींत उजो दिसलो आनी तरीकूय तें झोंप जळनासलें. तो लागीं गेलो तेन्ना ताका देवाचो साक्षात्कार जालो आनी इजिप्ताक वचून आपल्या भांवडांक सोडोवन हाडपाचो ईश्वरी आदेश ताका मेळ्ळो. तेप्रमाण तो इजिप्ताक आयलो. थंय ताका ताचो भाव एअरन मेळ्ळो. ज्यूंक सोडून दिवपाखातीर फेअरोचें मन वळोवप कठीण आसा अशें दोगांय भावांक पटलें. मागीर मोझेसचे दैवी शक्तीक लागून येहोवान इजिप्ताचेर धा खेपे प्लेगच्यो धामी हाडल्यो. निमाणें इजिप्शियन लोकांनी ज्यूंचो छळ थांबोवन तांकां सोडून दिले. सगळे ज्यू आपलीं मेंढरां घेवन सुएझचे दक्षिणेकडेन वसणूक करपाखातीर गेले. तांचें फुडारपण मोझेसान केलें. हो प्रसंग 'एकझोडस' म्हूण बायबलांत आनी इतिहासांत नामनेक पावला.

सिनाय हांगा सगळे आयले तेन्ना तांकां व्हड येवकार मेळ्ळो. हांगाच ह्या दोंगराचे तेंगशेर (जेबेल मूसा) मोझेसाक ईश्वरी साक्षात्कार जालो आनी देवान ताका आपल्यो धा आज्ञा दिल्यो. सिनाय दोंगराचेर मोझेस ४० दीस देवाच्या सांगातांत आशिल्लो. मागीर सकयल येवन ताणें आपल्या भांवडांक पत्रदेश हांगा व्हेले. थंयच्यान ३८ वर्सांउपरांत ते उदेंतेकडे गेले. एसौ आनी मोआब ह्या वाठारांतल्यान बरे भशेन वतकच तांचे वाटेर आडखळी आयल्यो. जॉर्डन न्हंय हुंपून पलतडीं कॅनन वाठारांत वचूंक मेळचेंना आनी आपलो अंतकाळ लागीं पावला अशें पळयतकच मोझेसान आपल्या सगळ्या भांवडांक आपोवन निमाणो संदेश दिलो. निमाणें सगळ्यांक आशीर्वाद दिवन आनी जोशुआक आपलो वारस नेमून मोझेस नेबो दोंगरावयल्या पिसगाह तेमकार गेलो आनी थंय ताणें पिरायेच्या १२० व्या वर्सा आपली कूड दवरली.

ज्यू धर्माप्रमाण येहोवान इस्राएल राश्ट्र तयार करपाखातीर मोझेसाक प्रेशित केल्लो आनी ताचेवरवीं आपल्यो सगळ्यो आज्ञा तो ज्यू लोकांक कळयत रावलो. मोझेस हो स्वभावान खूब शांत आशिल्लो, अशें ताचें वर्णन सांपडटा. ज्या काळांत मोझेसान आपल्या बांधवांचो एकचार घडोवन हाडलो, त्या काळांत येहोवा ह्या देवाचो नाममहिमा निकतोच सुरू जाल्लो. त्या काळांत मोझेसच्या यत्नांक लागून ज्यू लोकांनी ह्या देवाचेर विश्वास दवरलो. मोझेसान ज्यू लोकांमदीं एकचार घडोवन हाडलो. तांच्यांत राश्ट्रीय भावना निर्माण केली. धर्माची खरी कसवटणी विधी आनी पुजा हांचेर आदारिल्ली नासून नैतीक आचरणाचेर आसा, ही नदर तांकां पयलीं मोझेसाकडल्यानूच मेळ्ळी.

मोझेसाच्या जिवितांतल्या घडणुकांचेर आदारीत चित्र-शिल्प आकृत्यो कितल्याशाच चित्रकारांनी तयार केल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**मोटार वाहन कायदो :** मोटार वाहनासंबंदीत मालकी, चलोवप, नेम, विमो सारकिल्ल्या घटकांचो कायदो. १९१४ वर्सा भारतांत पयलो मोटार वाहन कायदो अंमलांत आयलो. ताचे उपरांत तातूंत जायते बदल केले आनी हालींच १९८८ वर्सा आनीकूय बदल आनी दुरुस्त्यो केल्यो. १९८४ वर्सा ह्या कायद्यांत बदल घडोवन हाडटना एका वावुरपी गटाची नियुक्ती केली. सद्या अस्तित्वांत आशिल्ल्या कायद्यांत २१७ कलमां आसात आनी तीं १४ भागांनी वांटिल्लीं आसात.

पयल्या भागांत ह्या कायद्याविशीं वापरिल्ल्या उतराच्यो व्याख्या सांगल्यात. नव्या कायद्यांत 'धनी' ह्या उतराचो आंवाठ वाडयला आनी पयलेच फावट शिकप्याचो परवानो (Learner's Licence) ह्या उतराचो अर्थ सांगला. दुसऱ्या भागांत वाहन चालकांच्या परवान्याविशीं तजविजो केल्ल्यो आसात. तशेंच वाहन चलोवप्यांचे पिरायेचेर कांय निर्बंध घाल्यात. तिसऱ्या भागांत कंडक्टरांच्या परवान्याविशींचे नेम आस्पावतात.

चवथ्या भागांत वाहनांचे नोंदणी विशीं म्हत्वाच्यो तजविजो केल्यात. हातूंत नोंदणी करपाची सुवात, नोंदणी कशी करप, तात्पुरती नोंदणी, वाहनांची मालकी दुसऱ्याक सोंपोवपाची पद्दत हे विशीं पुराय नेम आसात. नव्या कायद्याच्या कलम ५९ प्रमाण केंद्र सरकाराक दर एका वाहनाची आयुश्यमर्यादा थारावपाचे अधिकार दिल्यात. वाहनांची ती पिराय सोंपतकच वाहन निकामी थरोवपाची तातूंत तजवीज आसा. दिसानदीस उप्रासपी भिरांकूळ अपघात आनी जिवांची हानी वाटावपाखातीर केल्लो हो एक उपाय जावन आसा.

पांचव्या भागांत येरादारी वाहनांचेर नियंत्रण दवरपा संबंदान आनी वाहनाच्या परवान्याविशीं तजविजो आसात. नव्या कायद्याच्या ८०व्या कलमाप्रमाण कसल्याय परवान्याखातीर खंयच्याय वेळार अर्ज करूं येता. हे दुरुस्तीआदीं फकत Contract Carriage permit आनी Private Carriage Permit खंयच्याय वेळार मागूंक मेळटालें. तशेंच नव्या कायद्याप्रमाण येरादारी अधिकाऱ्यान एकाद्रो अर्ज न्हयकारलो जाल्यार अर्जदाराक ताची बाजू मांडपाची संद दिवपाक जाय. आनीक एक म्हत्वाची गजाल म्हळयार विशेश वा तात्पुरतो परवानो सोडल्यार, हेर परवान्यांचो काळ ५ वर्सांपरस उणो आसूंक फावना. तशेंच ह्या परवान्याचें ह्या पांच वर्सांच्या काळांत नूतनीकरण करपाची गरज ना.

सव्या भागांत राज्य येरादारी मंडळासंबंदान आनी सातव्या भागांत मोटार वाहनांची बांदावळ, सजावट आनी जतनाय हांचेखातीर तजविजो केल्ल्यो आसात.

आठव्या भागांत येरादारी नियंत्रणा संबंदांतले नेम आसात. हातूंत वेगमर्यादा, वजन मर्यादा, येरादारी सिग्नल्स, पार्कींग सुवात आनी गाडयो थांबोवपाच्यो सुवाती, ड्रायव्हर आनी प्रवाशांची सुरक्षा, दोन चाकी वाहनां चलयतना हॅल्मेटांचो वापर, लायसनाची सगळीं कागदपत्रां बाळगप, अपघात जाल्यार वाहन चालकाची जापसालदारकी ह्या संबंदांतल्यो पुराय तजविजो आसात. तशेंच सगळ्यांनी मतींत दवरपासारके नेम म्हळ्यार वाहन चालकान आपलें वाहन रस्त्यान चलपी लोकांक वा रस्त्यान वचपी वाहनाक आडखळ वा गैरसोय जावंची ना अशे तरेन दवरपाक जाय, आनी हेर जायते नेम ह्या भागांत आसात.

णवव्या भागांत तात्पुरत्या काळाखातीर भारतांत येवपी आनी भारताभायर वचपी वाहनांसंबंदान नेम आसात. धाव्या भागांत वाहन चालकाचो कांयच दोश नासतना जो अपघात घडटा, तातूंत अपघात जाल्ले व्यक्तींक जी नुकसान भरपाय दितात, ताका No Fault Liability अशें म्हण्टात. नव्या कायद्यांत मरणाच्या खटल्यांनी नुकसानभरपाय २५,००० रुपया केल्या तर कायम दुबळेपणाच्या खटल्यांनी तो आंकडो १२,००० रुपया आसा. इकराव्या भागांत Third Party Risks Insurance प्रमाण कायद्यांत बदल घडोवन हाडला. सद्याचे तजवीजे प्रमाण वाहन transfer जाता, त्या दिसा सावन Insurance Policy आपसुकूच दुसरे व्यक्तिच्या नांवार जाल्लेभशेन जाता.

बाराव्या भागांत मोटार वाहन अपघातासंबंदान उप्राशिल्ल्यो नुकसान भरपायेच्यो कागाळी आयकून घेवपाखातीर आनी सोडोवपाखातीर राज्य सरकाराक Motor Accidents Claims Tribunal घडोवपाचे अधिकार दिल्यात. तेराव्या भागांत मोटार वाहन कायद्याचो भंग केल्यार जावपी गुन्यांव, दंड आनी ते आकारपाची पद्दत हांचो आस्पाव केल्लो आसा. चवदाव्या भागांत मोटार येरादारी अधिकाऱ्यांच्या नेमणुकांसंबंदान तजविजो केल्ल्यो आसात. वयर उल्लेख केल्ल्या तजविजांखेरीज आठ खंडांनी १६४ नेमांचो आस्पाव केला. तशेंच दर एका राज्याक थंयचे परिस्थिती प्रमाण आनी लोकांचे सोयीचे नदरेन नेम घडोवपाचे अधिकार दिल्यात.

- ॲड. सुहास थळी

**मोडशी :** शेंबडाभशेन बुळबुळीत रगत भरसल्लें, पोटांत घांस मारून येवन परतून परतून पातळ भायर जावप हाका मोडशी म्हण्टात.

**उत्पत्ती :** मोडशेचे सुक्ष्मजंतू (Microbes) रोग्याच्या आनी रोगवाहकाच्या (Carrier) गुवांत आसतात. मूस, घाण हात, घाण माती हांचेवरवीं पिवपाचें उदक, दूद, जेवणखाण हातूंत हे जंतू पातळटात. घाण उदकाचो शेताखातीर उपेग करप,उक्ते सुवातेर संडासाक बसपाची संवय, अशुध्द पिवपा उदकाची पुरवण, गरीब राहाणीमान, भलायकी आनी नितळसाण हांचेविशींचें गिन्यान आसप ना हीं भारतांतलीं ह्या रोगाचीं मुखेल कारणां जावन आसात. संवसारांत हेरकडेनय ह्या रोगाची चड-उण्या प्रमाणांत लागण जाता. हुंवार, दुकळ आनी दाट वस्ती, हेर सैमीक संकश्टां हांकां लागून हो रोग पातळटा. मोडशी गिम, पावसाचे सुरवेक आनी पावस सोंपचे वेळार चड प्रमाणांत पातळटा.

मोडशेचे दोन मुखेल प्रकार म्हळ्यारः १) बॅसिलरी आनी २) ॲमिबिक.

**बॅसिलरी :** बॅसिलरी शिगेला जातीच्या बॅक्टेरियाक लागून जाता. हातूंत शि. शिगा, शि. सोने, शि. फ्लेक्सनर ह्यो उपजाती आसात. सुमार ९५% लागण शि. सोने जातीवरवीं जाता. ॲमिबिक प्रकारचो अमांश एण्टानिबा हिस्टोलेटिका नांवाच्या जंतूपसून जाता. हो जंतू दोन स्थितींत मनशाचे कुडींत आसताः (१) चलती फिरती स्थिती (Trophozoite) आनी २) थीर स्थिती (cyst). ट्रॉफोझोइट मोडशेच्या लक्षणांक कारणीभूत आसता जाल्यार सीस्ट मोडशेची लागण आनी पातळावपाक कारणीभूत आसता.

सद्याक संवसारांत १०टक्के लोकांक ॲमिबिक लागण जायत आसा. हें प्रमाण पुराय उदरगत जावंक नाशिल्ल्या देशांनी ५०टक्के मेरेन, जाल्यार ब्रिटन सारक्या उदरगत जाल्ल्या देशांनी फकत ३-५टक्के असा. भारतांत हें प्रमाण सुमार १५ टक्के आसा. गोंयांत हाचेयपरसय चड प्रमाण दिसता.

**लक्षणां :** बॅसिलरी परिपाक (incubation) काळ २-७ दीस. पोटांत घांस मारून शेंबूड आनी रगत आशिल्लें परतून परतून परसाकडे जावप. नाडीर पेंच येंव येता (Tenesmas). संडासांत पयलीं शेंबूड चड आनी उपरांत फकत शेंबूड आनी रगत पडटा. दिसांतल्यान बरेच फावट पूण उण्या प्रमाणांत भायर जाता. रगत ताजें आसता. पूण घाण येता. परसाकडे जावपाक अकस्मात सुरवात जाता. चड करून जोर येता, आंग दुखता आनी रोखडीच अशक्तताय येता. हीं लक्षणां चडशीं शि. फ्लॅक्सेनरांत दिसून येतात. शि. सोने हातूंत भायर जावपाचें प्रमाण उणें आसता वा जायचना. पूण पोट दुखून जोर येवप, भूक लागप ना, आंग दुखप अशे त्रास जातात. शि. शिगा हो घातक जावं येता. संडास जावप बरेंच खर आसता आनी दोन दिसांभितर रोगी मरूंक शकता.

**ॲमिबिक :** परिपाक (Incubation) काळ कांय म्हयने ते कांय वर्सां. पोटांत दुखून दिसांतल्यान २-३ फावट पूण शेंबडासारको संडास जावप हें मुखेल लक्षण. रगत काळपट आनी शेंबडांत भरसल्लें आसता. नाडीर पेंच येवन सोंसूक जायना. जोर व्हडलोसो येना. संडासाक सामकी घाण येता. कांय दीस संडास जावप जाल्यार कांय दीस जावपचना (Constipation) हें ॲमिबिक अमांशाचें खास लक्षण.

रोग्याचें पोट तपासतना ताका व्हडले आंतकडेच्या सुवातेर (Large Bowel) दूख जाणवता. गुवाची सुक्ष्मचिकित्सा (Microscopic Exam). करून अमांश ॲमिबिक काय बॅसिलरी हें जाणा करून घेवप सोंपें आसता. बॅसिलरींत गुवाचें कल्चर करून (Stool Culture) पळोवंक येता. Sigmoidoscopy करूनयबी निदान पक्कें करूं येता.

केन्ना केन्नाय ॲमिबिक मोडशेचेर बॅसिलरीची लागण जावं येता. अशावेळार सगळीं लक्षणां खर प्रमाणांत आसतात आनी खास तपासणी करून निदान करचें पडटा.

**परिणाम** ः बॅसिलरी मोडशी जीर्ण (Chronic) जावं येता. ताका लागून Arthritis, Iritis सारके विकार कांय प्रमाणांत जावंक शकतात.

ॲमिबिक मोडशेचे बाबतींत हेपाटीक ॲमिबिआसिस जायत जाल्यार यकृताक सूज येवंक शकता. तेभायर यकृतांत मातेर जावंक शकता. ही गजाल चड करून सोरो पियेवपी मनशा बाबतींत घडूं येता. ॲमिबा यकृतांत रिगल्याउपरांत हे परिणाम जातात. मोडशेचेर वेळार उपाय जायनाजाल्यार फुफ्फुसां, आंतकडे भोंवतणची पोकळी (Peritoneal cavity), काळजाभोंवतणची पोकळी (Pericardinal sack) मेरेन जंतू पातळून रोग घातक जाता. व्हडले आंतकडेक बुराक (Perforation) पडूं येता. वा भायर जातना व्हड प्रमाणांत रगत व्हांवन वता. ॲमिबिक आनी बॅसिलरी मोडशेची लागण वांगडाच जायत जाल्यार आंतकडेक जी सूज येता. तिका ॲमिबोमा म्हण्टात. ही सूज घातक थारता.

**उपाय** ः बॅसिलरी संडासाक जावपाचेर आळाबंद म्हण Codin वा Pectin, Kalolin दितात. आहार पातळ वा अर्द-पातळ आनी पचपाक हलको असो आसचो. मोडशेवी लागण खर प्रमाणांत जाल्यार रगतांत Intravenous Fluid हें वखद दितात. बरेच फावट मोडशी आपशींच बरी जावं येता. पूण शिगा वा फ्लॅक्सनर जातीचे लागणीवेळार Ampicillin, Cotrimoxazole हीं वखदां दिवचीं पडटात.

**ॲमिबिक** ः Enetine, Poloxanite furoate, Metronidazole अशीं वखदां गरजेप्रमाण दितात.

**जतनाय** ः पिवपाचें उदक शुध्द आसचें, तें तापोवन पियेवचें. भाजीपालो, फळफळावळ जंतूनाशक उदकान धुवचीं, संडासाची वेवस्था नितळ आसची. रांदपी, वाडपी ह्या सारक्या अन्नाकडेन संबंद आशिल्ल्यानी वेळच्यावेळार तपासणी करून घेवची. संडासांतल्यान आयल्याउपरांत शाबू लावन हात धुवचे.

**वाठार** ः आशिया आनी आफ्रिका खंडांत मोडशेचें प्रमाण सगळयांत चड आसा. आशिया खंडांत बांगलादेश, ब्रम्हदेश, चीन, भारत, इराक, कोरिया, व्हिएतनाम हांगा ह्या रोगाची लागण चड आसा. भारतांत मुंबय, लखनौ, अमृतसर, कानपूर, कलकत्ता ह्या शारांनी ह्या रोगाची लागण बरीच आसा.

- डॉ. आनंद हळर्णकार

**मोडी लिपी** ः शीघ्र लिखाणाखातीर सोदून काडिल्ली महाराष्ट्रांतली एक लिपी. ही सगळयांत पयलीं कोणें सोदून काडली हेविशीं मतभेद आसात. पूण हेमाडपंत हाणें ही लिपी सोदून काडली अशें सर्वसादारण मत आसा. देवगिरीच्या महादेव आनी रामदेवराव यादव हांच्या काळांत इ.स. १२६० सावन हेमाडपंत हो महामंत्री आशिल्लो. कचेरेचें काम हेमाडपंत पळयतालो. देवनागरी लिपींत दर एक अक्षर मेकळें आसता. तें बरयतना दरेक खेपे लेखणी उखलून बरोवंची पडटा, आनी ताका लागून लिखाणाक वेळ लागता. हेखातीर हेमाडपंत हाणें देवनागरी लिपींतलीं अक्षरां मोडून बेगोबेग बरोवप शक्य जावंचें म्हूण एक नवी लिपी सोदून काडली. तिकाच मोडी लिपी अशें नांव आसा. हे लिपींत लेखणी वयर उखल नासतना कितलेय शब्द बरोवपाक मेळटात. फार्सी लिपितूय बेगीन बरोवपाची 'शिकस्ता' नांवाची एक लिपी आसा. ते लिपीचे धर्तेचेरूच हेमाडपताक मोडी लिपी तयार करपाची कल्पना येवजली आसुंये. हेमाडपंतान लंकेंतल्यान ही लिपी हाडली अशेंय कांय जाणांचें मत आसा.

इ.स.च्या १३व्या शेंकड्यासावन २०व्या शेंकड्यामेरेन मोडी लिपी प्रचारांत आशिल्ली. पेशव्यांच्या दरबारांत सगळे वेव्हार मोडी



मोडी वर्णमाळ

लिपींतूच चलताले. मराठी साम्राज्य वाडत गेलें तसो भारताच्या हेर प्रदेशांनीय मोडी लिपीचो प्रसार जालो. मद्रास आनी म्हैसूर हांगाच्या सरकारी कचेऱ्यांनी मोडी लिपीचोच उपेग करताले. कर्नाटकांतल्या पोरन्या सावकार घराण्यांतले हिशेब कानडी भाशेंत पूण मोडी लिपींत बरयल्ले आसात. महाराष्ट्रांतूय सरकारी तशेंच हेर कडें मोडी लिपीचोच वापर चलतालो. इंग्लीश राजवट सुरू जातकच लेगीत, इंग्लीश अधिकाऱ्यांची सय आशिल्ले मोडी अक्षरांतले कागद सरकारी खात्यांनी मेळटात. ईस्ट इंडिया कंपनीचीं पयलीं सरकारी पत्रकां मोडी लिपींतूच आसतालीं. मिशनऱ्यांनी लेगीत पयलीं मराठी पुस्तकां हेच लिपींत छापिल्लीं. गोंय, केरळ हांगाचे अभिलेखागार तशेंच तंजावरच्या सरस्वतीमहालांतले शेंकड्यांनी कागद आनी कैफियती मोडी लिपींत आसात. भारत इतिहास संशोधक मंडळ, धुळयाचें राजवाडे संशोधन मंदिर, लंडन, पॅरिस, स्पेन,

हॉलंड हांगाच्या संग्रहालयांनी मोडी कागदपत्रांचो संग्रह आसा.

अशी ही भारतांत चडशा सगळ्या वाठारांनी प्रचलित आशिल्ली मोडी लिपी १९५० वर्सा उपरांत सरकारी आदेशान शालेय शिक्षणांतल्यान काडून उडयली.

मोडी लिपींत सगळे उकार ऱ्हस्व, इकार दीर्घ, ह्याप्रमाण ऱ्हस्व दीर्घाविशीं अनास्था, जोडाक्षरां वापरलीं तर तीं संस्कृत भाशेवयल्यान घेवचीं असो नेम आशिल्लो. अखंडीत वर्णांची तजवीज ना म्हूण बरी



मोडी लिपी - इ.स. १७३९ (एक नमुनो)

मुद्रारचणूक (Type Composing) अशक्य आशिल्ली. हांकांलागून तिचें शिळामुद्रण बरे तरेन जातालें. पूण धातू मुद्रेची जुळणी समाधानकारक जाय नासली. देखून तिचो वापर मर्यादीत जावपाक लागलो आनी मराठीखातीर देवनगरी सहज उपलब्ध जावंक लागली. देखून मुद्रण युगाक लागून मोडी फाटी पडूंक लागली.

मोडीच्यो पयल्यो धातुमुद्रा विल्यम कॅरी हाणें १८०१ वर्सा बंगालांतल्या सेरामपूर हांगा नागपूरकर भोसल्याकडे रावपी पंडित वैद्यनाथ हाच्या आदारान करून घेतल्यो. 'श्रीमंत रघूजी भोसल्याची वंशावळी', 'मराठा भाषेचे व्याकरण', 'मराठी भाषेचा कोश', 'नवा करार' (१८०७) हीं पुस्तकां मोडी लिपींत छापलीं. मुद्रांचो इतिहास चिकित्सक तरेन बरोवपाचो पायंडो अ. का. प्रियोळकर हाणें घालो.

- कों. वि. सं. मं.

**मोढ ब्राह्मण :** गुजरातच्या तालुक्यांत वात्रक न्हंयेचे देगेर मोढेरा गांवांत रावपी ब्राह्मणांक 'मोढ ब्राह्मण' अशें नांव आसा. कच्छ-सौराष्ट्रांत ह्या लोकांची खूब वसती आसा.

ह्या ब्राह्मणांभितर चडकरून चतुर्वेदी, त्रिवेदी, जेठीमल, धणोजा, तांदळजा आनी अंगियारसा अशो स पोटजाती आसात. तांच्यांत त्रिपाळा, खिजडिया, मंजुकोठिया, चुंठा वावडा, संबना, सरबेजी अशेय भेद आसात. चतुर्वेदी आनी त्रिवेदी हे श्रेश्ठ मानतात. जेठीमल हे कमी दर्जाचे मानतात. धणोजा ब्राह्मणांवांगडा मोढ वा हेर ब्राह्मण जेवीनात.

लिंबोजी ही देवता, मोढ ब्राह्मणांची इश्टदेवता आसा. कच्छांतले चतुर्वेदी हे रामानंदी संप्रदायाचे आसून, त्रिवेदी हे शैव आसात. हांच्यांतले जे ब्राह्मण स्वामीनारायण पंथाचे नात ते मांस खातात आनी सोरोय पितात. ह्या ब्राह्मणांभितर विधवाविवाहाची चाल आसा.

वेदविद्या, भिक्षावृत्ती आनी शेती हे मोढ ब्राह्मणाचे वेवसाय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**मोती :** एक मोलादीक वस्त. मॉलस्का संघांतल्या दोन कवचां आशिल्ल्या प्राण्यांच्या, शरिरांतल्या कॅल्शियमी स्त्रावासावन तयार जाल्ले वाटकुळे रचणुकेक 'मोती' अशें म्हण्टात. कालवां रावतात त्या शिंपल्यांनी, तांच्या आंगांतल्यान येवपी चकचकीत रसाचीं वेश्टणां, एकाद्रे रेवेंच्या कणाभोंवतणी बसून मोती तयार जाता.

मोतयांक खूब पोरनो इतिहास आसा. मोतयांचो उल्लेख पुर्विल्ल्या भारतीय आनी चिनी वाङमयांत मेळटा. देवांच्या अस्थींसावन मोती जातात, अशें अथर्ववेदांत म्हळां. भारतांत आर्यांचो प्रवेश जावंचेपयलीं म्हळयार खिस्तापयलीं १५०० वर्सांपयलीं आनी ग्रीक संस्कृतायेंत खिस्तापयलीं ४०० वर्सां आदीं मोतयाचो उल्लेख मेळटा. मॅसिडोनियाची सत्ता आसतना इराणाच्या आखातांतल्यान बरे प्रतीचे मोती काडटाले. रोमाच्या साम्राज्यांतूय मोतयांक खूब म्हत्व आशिल्लें. राजचिन्नां आनी राजघराण्यांतल्या व्यक्तींचे अलंकार करपाक मोतयांचो खूब वापर करताले. पौर्वात्य देशांकडे वेपारी संबंद जोडून इटलीन थंयचीं मोतयां युरोपांत हाडलीं. 'ल रेनीडेस पर्ल' हो २७.५ कॅरट वजनाचो मोती फ्रांसाच्या राजघराण्यांत आशिल्लो. ताची १७०२ वर्सा चोरी जाली. 'ल रिजेंटी' हो ३४ कॅरट वजनाचो मोतीय फ्रांसाकडे आशिल्लो.

कालवां सोडून खावपी आदिमानवाक मोतयाचो सोद लागलो आसुंये. मोतयाचें तेज आनी चकाकी हांकांलागून मोलादीक वस्तूंनी मोतयाचो आस्पाव जालो आसुंये. हिंदू संस्कृतायेंत मोती हें चंद्राचें रत्न मानलां. ऋग्वेदांत सुर्याचो रथ आनी त्या रथाचे घोडे मोतयांनी शिरंगारील्ले अशें वर्णन आसा. आयुर्वेदीय आनी युनानी वखदांचे पद्दतींत मोतयाक खाशेली म्हत्वाची सुवात आसा. आयुर्वेदांत मोती हो थंड, सारक, वीर्यकर, बल आनी पुश्टिकारक, पित्तनाशक, खोकली हांचेर गुणकारी आसा अशें सांगलां.

मोतयाचें मोल, ताच्या रंगाची चकाकी, आकार आनी आकारमान हांचेर आदारिल्लें आसता. राजशास्त्राप्रमाण मोती हें एक प्राणिज रत्न आसा.

मोतयाचो शिंपलो ८ ते ११ सेंमी. लांब आनी वांटकुळो आसता. शिंपल्याभितर कालू आसता. ताका हालचाल करपाखातीर एक कोशिकामय

पांय आसून जाय तेन्ना तो भायर काडपाक मेळटा. तशेंच त्या शिंपल्यांत तीन थर आसतात. भायलो थर जैव पदार्थाचो आसून ताका काँकिओलिन अशें म्हण्टात. हाचे भितर समपार्श्वीय थर आनी निमाणो मुक्तद्रव्याचो थर आसता. जाचेपसून मोती तयार जाता त्या मुक्ताद्रव्याच्या मुखेल घटकाक ॲरॅगोनायट म्हण्टात. कवचाचे थर स्त्रवभाणी कोशिका प्रावारस्तरांत आसतात. ह्या कोशिकांचो एक अधिथर आसता. जेन्ना एकाद्रो कण भायल्यान प्रावारांत रिगता तेन्ना तो ह्या अधिथराक दसता आनी ताचेर ह्या कोशिकांचें वेश्टण जावन मुक्ताद्रव्याचे थर तयार जावंक लागतात. जर हो कण प्रावारथरांत सामको भितर रिगलो जाल्यार पयलीं ताचेभोंवतणीं एक पोती तयार जाता आनी उपरांत ते पोतयेंत आडखळून उरिल्ल्या कणांभोंवतणीं मुक्ताद्रव्याचे थर बसूंक लागतात. मोतयाची वाड जाता आसतना हे पोतयेचेर हेर इंद्रियांचो वा आनीक कसलोय दाब पडत जाल्यार, भितर तयार जावपी मोती वाटकुळो जाता. कारण कणाभोंवतणी जावपी मुक्ताद्रव्याचे थर समकेंद्री आसतात. वांकड्या-तिकड्या आकाराच्या मोतयांक 'बरोक' म्हण्टात. कांय खेपे भितर घुशिल्लो कण प्रावारस्थराचे पोतयेंत उरनासतना शिंपल्याच्या भितरल्या थराक दसता, तेन्ना तयार जावपी मोती अर्दवाटकुळो जाता.

मोती तयार करपी कालवां खाऱ्या तशेंच गोड्या उदकांतूय मेळटात. मोती उत्पादनाचे नदरेन खाऱ्या उदकांत मेळपी आनी सैमीक मोती उत्पादन करपी कालवां 'मेलिॲग्रिना' (पिंक्टाडा) हे प्रजातीचीं आसात. पयलीं ह्या कालवांक 'मार्गारिटीफेरा' ह्या नांवानूय वळखताले. मेलिॲग्रिना प्रजातीचीं कालवां सगळयांत मोलादीक आनी सोबीत मोती उत्पादन करतात. इराणाच्या आखातांत मेळपी मे. व्हल्गॅरीस हे जातीच्या 'मोहर' ह्या प्रकारच्या कालवान उत्पादन केल्ले मोती बरे प्रतीचे मानतात. मोती काडपी पाणबुडे जोडयेन काम करतात.

ओमानच्या द्वीपकल्पापसून कॉटारचे दर्यादिगेमेरेन १६ मीटर ते ४०मीटर खोलायेचेर खूब मोतयांचीं कालवां मेळटात. बहारीन जुंव्यांच्या दर्यादिगेचेरूय हीं मोतयांचीं कालवां खूब प्रमाणांत मेळटात. मे ते सप्टेंबर ह्या काळांत हीं कालवां धरतात. बऱ्याच काळासावन, इराणाच्या आखातावयल्या 'लिंगे' ह्या शाराची मोतयाच्या वेपाराखातीर नामना आसा. श्रीलंकेलागसार, बंगालच्या उपसागरांत, मानारच्या आखातांत 'मे. व्हल्गॅरीस' हीं मोतयांचीं कालवां व्हड प्रमाणांत मेळटात. हीं मोतयां मद्रासच्या बाजारांत येतात. उदेंत आफ्रिकेच्या झांजिबार जुंव्यासावन मोझँबीक मेरेनच्या दर्यांतलीं मोतयांच्या कालवांतलीं मोतयां मद्रासच्या बाजारांत विक्रेक येतात. पयलीं तांबड्या दर्यांतूय हीं मोतयांचीं कालवां धरपाचो वेवसाय चलतालो. पूण हालीं तो बंद जाला. आग्नेय आशियांतल्या सेलेबीझ जुंव्यालागसार मेळपी मोतयांची तांच्या रंगाखातीर नामना आसा.

ऑस्ट्रेलियालागसार मे. मार्गारिटीफेरा आनी मे. मॅक्झीमा ह्या जातींचीं मोतयांचीं कालवां मेळटात. हीं मोतयां सुंदर, रुपेरी धव्या कोराचीं आसतात. दक्षिण पॅसिफिक महासागरांतल्या कांय जुंव्याचेर मेळपी मोतयांय बरे प्रतीचीं आसतात. अमेरिकेलागसारच्या कॅरिबियन दर्यांत मेळपी मोतयां पौर्वात्य वाठारांत मेळपी मोतयांपरस आकारान व्हड आसतात. पूण तितके बरे प्रतीचीं नासतात. कॅलिफोर्नियाचें आखात, मेक्सिकोचें आखात आनी मेक्सिकोची पॅसिफीक महासागराची दर्यादिग हांगा मेळपी मोतयां गाड रंगाचीं आनी धातूभशेन चकाकी आशिल्लीं आसतात. हातुंतलीं कांय मोतयां धव्या कोराचीं आनी बरे गुणधर्म आशिल्लीं आसतात.

मॉलस्का संघांत मेलिॲग्रिना प्रजातीखेरीज हेर कांय खाऱ्या आनी गोड्या उदकांत रावपी आनी मोती वा तसलेच पदार्थ तयार करपी प्राणी आसात. खाऱ्या उदकांतल्या गॅस्ट्रोपोडा वर्गांतलो 'हॅलिओटिस' आनी बायव्हाल्व्हिया वर्गांतलो 'मिटीलस' आनी 'प्लॅकुना' तशेंच गोड्या उदकांतल्या 'युनिओ' आनी 'ॲजोडोंटा' हांचेपसून मोती मेळटात. भारतांत आजुनमेरेन खंयच गोड्या उदकांत मोती मेळूंक ना.

अमेरिकेंतले मिसिसिपी न्हंयेंत बरे प्रतीचीं मोतयां मेळळयांत. १८५७ वर्सा, अमेरिकेचो गुलाबी रंगाचो नामनेचो मोती 'क्विन पर्ल' हो न्यू जर्सी राज्यांत नॉचब्रुक हांगा मेळळो. ह्या मोतयाचें वजन २३.२५ कॅरट इतलें आसा. पुर्विल्ल्या काळांत ग्रेट ब्रिटनांत गोड्या उदकांतल्या मोतयांचो वेपार व्हड प्रमाणाचेर चलतालो. युरोपांत हो गोड्या उदकांतल्या मोतयांचो वेपार आयजलेगीत चलता. चीनांत हो वेवसाय ख्रिस्तापयलीं २००० वर्सांसावन चालू आसा, अशें समजता. जपानांतल्या आकोया कालवांत तयार जावपी मोती आकारान २ ते ३ मिमी. व्यासापसून १० मिमी. व्यासामेरेन आसूंक शकतात. २ ते ५ मिमी. व्यासाचे मोती खूब मेळटात. ऑस्ट्रेलियांतल्या धव्या बटरफ्लाय कालवांत तयार जावपी मोतयाक 'साउथ सी पर्ल' म्हण्टात. ह्या मोतयांचो व्यास १० मिमी. सावन १७ मिमी. मेरेन आसूंक शकता. पूण आकोया मोतयांचे तुळेन हे खूब मोलादीक आनी कमी प्रमाणांत आसात. जपानच्या लेक बीवा ह्या गोड्या उदकाच्या तळयांत पॉंड बटरफ्लाय कालवांनीय मोतयांची निर्मिती जाता. हीं मोतयां तांदळांभशेन लांबट आकाराचीं आसून तांकां 'राइस पर्ल' ह्या नांवान वळखतात. काळीं मोतयां ब्लॅक बटरफ्लाय कालवांनी मेळटात. हींय मोतयां खूब दुर्मिळ आनी मोलादीक आसतात.

मोतयांचीं कालवां सादारणपणान दर्यादिगेसावन १९किमी. अंतराचेर आनी सुमार १८ ते २२ मीटर खोलायेचेर मेळटात. भारताचे उदेंत दर्यादिगेच्या मोतयांच्या कालवांचो वाठार कन्याकुमारी ते किलाकराईमेरेन पातळ्ळा. तातूंतल्या तातूंत तुतिकोरिनलागसार मोतयांचीं कालवां चड प्रमाणांत मेळटात. हातुंतले सिंधा मोती हे जातीचीं मोतयां बरीं आसतात. अस्तंत दर्यादिगेर, सौराष्ट्रांत जामनगर लागसारूय मोतयांचीं कालवां मेळटात.

भारतांत पुरातन काळासावन खऱ्या मोतयांचें उत्पादन चालू आसा. मानारचें आखात, कच्छाचें आखात, पाल्काची सामुद्रधुनी आनी बडोदे हीं भारतांतलीं, मोतयांच्या कालवांचीं मुखेल केंद्रां आसात. चार-पांच वर्सांभितर मोतयाचें कालूं ९० ते १००मिमी. वाडटा आनी उपरांत तें धरपाक योग्य जाता. ल्हान कालवां धरपाक कायद्यान बंदी घाल्या. कच्छ आनी सौराष्ट्रांत सुकतेच्या वेळार हीं कालवां हातान धरतात. पूण दक्षिण भारतांत तीं पाणबुड्यांच्या आदारान धरतात.

महाराष्ट्रांत मोतयांचीं कालवां रत्नागिरी लागसार कांय प्रमाणांत मेळ्ळयांत. ठाण्या लागसार कांय प्रमाणांत 'प्लॅकुना प्लॅसेंटा' हीं कालवां मेळटात. हीं मोतयां सामके कमी प्रतीचीं आसून, तांचो चडसो उपेग आयुर्वेदीक वखदांखतीर करतात.

**संवर्धीत (कल्चर्ड) मोती :** कोकिची मिकीमोटो ह्या जपानी मनशाक १८९० वर्सा संवर्धीत मोतयाच्या कालवापसून मोतयांची निर्मिती करपाक यश मेळ्ळें. ताच्या प्रयोगांत ताणें कालवाच्या प्रावारांत मुक्ताद्रव्याचो बारीक कण घालो आनी हाकालागून ताका पुराय मुक्ताद्रव्याचो आनी वाटकुळो मोती मेळ्ळो. हाकाच संवर्धीत (कल्चर्ड) मोती अशें म्हण्टात. मोतयांची सोबीतकाय आनी मोतयांची वाडटी मागणी पळोवन मोतयांच्या कालवांचें संवर्धन आनी तातूंत मोतयांची कृत्रिम निर्मिती जावपाक लागली. हे नदरेन सगळ्यांत पयलीं चीनांत यत्न जालो. तेराव्या शेंकड्यांत ये-जीन-यांग ह्या चिनी मनशान ह्या प्रयोगाक पयलीं सुरवात केली. ताणें ताका समजलें, गोड्या उदकांतल्या मोतयाच्या कालवाच्या प्रावारांत बारीक कण घालो, जाल्यार ताचेर प्रावाराच्या स्त्रावाचें वेश्टन जावन थर तयार जाता आनी अशा थराचेर थर बसून उपरांत मोती जाता. हे मोती आकारान अर्दगोल आनी शिंपल्याक दशिल्ले आसतात. हेंच तंत्र चीनांत फुडें कितलींशींच वर्सां वापरताले. ल्हान कण, बारीक खडे, लाकडाचे वा धातुचे बारीक कुडके हांचोय वापर कालवांच्या प्रावारांत घालपाक करताले. खूब खेपे बुध्दाच्यो सामक्यो बारीक प्रतिमाय प्रावारांत घाल्ल्यो. हांचेर स्त्रावाचें वेश्टण जावन मोती तयार जावपाक तीन ते चार वर्सां लागतालीं. अशा अर्द-वाटकुळ्या मोतयाक 'पुळीदार मोती' म्हण्टाले. हाचेपसून पुराय वांटकुळो मोती तयार करपाक दुसरो अर्दवाटकुळो मोती ताका लावंचो पडटालो. अठराव्या शेंकड्यांत स्वीडीश शास्त्रज्ञ कार्ल लिनीअस हाणें मोतयाच्या कालवांनी लाकडाचो कण वा बारीक रेवेंचो कण घालून कृत्रिम मोती तयार केले. पूण हे मोती सैमीक मोतयांभशेन पुराय वाटकुळे नाशिल्ले. तांच्या आकाराक लागुनूय तांकां पुळिदार मोती म्हण्टाले.

संवर्धीत मोती सैमीक मोतयांभशेनूच आसतात. ताचेवयलो मुक्ताद्रव्याचो थर पातळ आसल्यार मनशाच्या शरिरावयले कातडेकडेन संपर्क आयिल्ल्यान ताचो नाश जाता आनी भितरलें आदारद्रव्य उकतें पडटा. जपानांत ३०० परस चड मोतयांच्या कालवांचीं संवर्धन क्षेत्रां आसात.

दर्यांतलीं, पुराय वाड जाल्लीं म्हळयार सुमार ३ वर्सां पिरायेचीं मोतयांचीं कालवां एकठांय करून तीं दर्यादिगेर हाडटात. कालवांनी शिंपले उगडचे खातीर तीं कांय वेळ उदकाभायर काडून दवरतात. उपरांत, मुक्ताद्रव्याचो बारीक कण प्रावाराच्या थरांत गुठलायल्ले अवस्थेंत उगड्या शिंपल्यांतल्यान कालवाचे प्रावारगुहेंत पिचकारीसारक्या उपकरणाच्या आदारान दवरतात. हे उपरांत हीं कालवां एका व्हड पांजऱ्यांत, नाजूक तारेन लांबयतात. हे पांजरे दर्यांत थरावीक उंचायेचेर लांबोवन, ह्या पांजऱ्याभोंवतणीं विद्युत् प्रवाह सोडटात. हाका लागून त्या कालवांक सगळ्या वटांनी राखण मेळटा. कालवांत मोती तयार जावपाक सुमार ७ ते ८ वर्सां लागतात. पांजरे भायर काडून घेवन तातुंतल्यान मोती काडून घेतात. अदमासान ८५% कालवांनी मोतयां मेळटात. उपरांत तीं थंड उदकान धुवून, यंत्राच्या आदारान तांकां चकाकी हाडटात. आकारमाना प्रमाण त्या मोतयांची विभागणी करून तांकां बुराक करतात. मेकळीं वा माळो करून तीं बाजारांत धाडटात.

विंगड विंगड शास्त्रीय पद्दतींनी मोतयांची पारख करतात. मुक्ताद्रव्यदर्शक (नॅक्रेस्कोप) ह्या उपकरणाच्या आदारान मोतयाचो भितरलो गाभो तपासपाक मेळटा. एन्डोस्कोप ह्या उपकरणाच्या आदारान मोतयाक करतात त्या बुराकाची तपासणी करपाक मेळटा. सैमीक मोतयांतले मुक्ताद्रव्याचे थर एककेंद्री आसतात पूण संवर्धीत मोतयांनी ते समांतर आसतात. मोतयाक बुराक करचेपयलीं क्ष-किर्णाच्या आदारान हे थर कशे आसात, तें समजता.

मोती खरे आनी बरे आसात काय ना हें पारखुपाखातीर एक गांवठी पद्दत आसा. आपल्या फुडल्या दांतांचेर मोती घासल्यार तें खडबडीत लागल्यार खरें आनी गुळगुळीत लागल्यार फट अशें मानतात.

मोतयाचो रंग कालवाचे जातीचेर आनी भोंवतणचे परिस्थितीचेर आदारिल्लो आसता. काळ्या रंगासावन, धव्या रंगामेरेन मोतयाच्या रंगाची सया आसूं येता. गुलाबी रंगाचो भारतीय मोती सगळ्यांत बरे प्रतीचो मानतात. ह्या रंगाक मोतीया रंग अशेंय म्हण्टात. पुराय वाटकुळो, गोल धवो फुल्ल वा मोतीया रंगाचो, निर्मळ, गुळगुळीत, चकचकीत आनी जड मोती सर्वोत्कृश्ट मानतात. तशेंच काळो, निळो, गोबरा कोर, पाचवो, अशा रंगाचींय मोतयां मेळटात. मोतयांचो दर्जो आनी रंग हाचेवयल्यान मोतयांचे मोल थरयतात.

बसराई, ढबदार, नूर, मजीट, शुक्री आनी हरमुजी ह्यो कांय मोतयांच्यो जाती आसात. हातुंतले बसराई मोती चड मोलादीक मानतात. ज्या मोतयाचें वजन पाव ग्रेन म्हळयार ०.०१६२ग्रॅमा परस कमी आसल्यार ताका 'बीज मोती' म्हण्टात. एक ग्रॅम वजनांत असले ३०० मोती येतात. बरोक मोती सगळ्यांत जड आसता. हेन्री टॉमस होप ह्या मनशाकडे १,८६० ग्रेन इतल्या वजनाचे बरोक मोती आशिल्ले.

भांगराच्या, रुप्याच्या अलंकारांनी मोतयांचो उपेग चड प्रमाणांत करतात. सादारणपणान कानांतलीं गळयांतले हार, कांकणां नथ अशे मोतयांचे अलंकार करतात. मोतयांक केल्ले बुराक व्हड जावंचे न्हय देखून माळ परतून परतून गांठोवन घेतात. तशेंच माळेंतले दोन मोती एकठांय येवचे न्हय म्हण तांचेमदीं गांठ घालप गरजेचें आसता. मोतयांचेर घामाचो रोकडोच परिणाम जाता तेखातीर गळयांतल्यान माळ काडटकच ती पुसून दवरतात. उश्णतेचोय मोतयांचेर परिणाम जाता. मोती कॅल्शियम कार्बोनेटाचे करतात. तेखातीर अम्लाचोय तांचेर परिणाम जाता. मोतयांक हवेंतले आर्द्रतेची गरज आसता. म्हूण चड वेळ मोती बंद पेटयेंत दवरचे न्हय. फुटिल्ले वा पुळीदार मोती बटनां करपाक वा पदकाचेर जडवपाखातीर वापरतात. तेचभशेन बटनां, सुरयांच्यो मुठी हांचेखातीर मोतयांच्या कालवांच्यो भितरल्या चकचकीत थरांचो उपेग करतात.

कंवचेच्या वा प्लास्टिकच्या मणयांचेर नुस्त्यांच्या खवळांपसून तयार केल्लो रुपेरी पातळ थर दिवन नकली मोती तयार करतात. हीं मोतयां सवाय आसतात. हीं मोतयां पयलीं सतराव्या शेंकड्यांत फ्रांसांत तयार केल्लीं.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद** : रत्न.

## मोतीबिंदू : (पळेयात दोळो).

## मोदिल्यानी, फ्रांग्को : (जल्म : १८ जून १९१८, रोम).

नोबॅल पुरस्कार फाव जाल्लो नामनेचो अमेरिकन अर्थशास्त्रज्ञ. बापायचें नांव एनरीको आनी आवयचें नांव ओल्गा फ्लेशेल. ताणें लिसिओ व्हिसकोंती, रोम विद्यापीठ आनी न्युयॉर्कांतल्या न्यू स्कूल फॉर सोशल रिसर्च ह्या शिक्षण संस्थांतल्यान शिक्षण घेतलें. १९३९ त सेरेन कालाबी हे चलयेकडेन ताचें लग्न जालें. ताका दोन भुरगीं आसात.

न्यूयॉर्कच्या न्यू स्कूल फॉर सोशल रिसर्च हे संस्थेंत १९४३-४४ ह्या काळांत अधिव्याख्यातो म्हूण ताची नेमणूक जाली. थंयच १९४६-४८ ह्या काळांत गणितीय अर्थशास्त्र आनी अर्थमिती ह्या विशयाचो तो सहाय्यक प्राध्यापक जालो. उपरांत १९४९-५० ह्या काळांत इलिनॉय विद्यापिठांत अर्थशास्त्राचो सहयोगी प्राध्यापक आनी १९५०-५२ ह्या काळांत प्राध्यापक म्हूण ताणें काम केलें. १९५२-६० ह्या काळांत तो कार्नेगी तंत्रविद्या संस्थेंत अर्थशास्त्र आनी उद्देगीक प्रकाशन ह्या विशयांचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९६०-६२ ह्या काळांत तो नॉर्थवेस्टर्न विद्यापिठांत अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९६२ पसून तो मॅसॅचूसेटस तंत्रविद्यासंस्थेंत (एम्. आय. टी.) अर्थशास्त्र आनी वित्त वेवस्था ह्या विशयांचो प्राध्यापक आशिल्लो. ह्याच काळांत ताणें फेडरल रिझर्व्ह सिस्टिमच्या अधिशासक मंडळाचो सल्लागार, चलनविशींच्या सांख्यिकी समितीचो वांगडी (१९७४-७६), अर्थवेव्हारा विशींच्या ब्रुकिंग्ज मंडळाचो सल्लागार (१९७१), आंतरराश्ट्रीय अर्थसंस्थेचो उपाध्यक्ष (१९७६-१९८३) आनी सन्मान्य अध्यक्ष (१९८३), अर्थसमिती संस्था, तशेंच अमेरिकन अर्थविशयक संस्था (अमेरिकन इकॉनॉमिक असोसिएशन) हाचो माजी अध्यक्ष, राश्ट्रीय विज्ञान ॲकडेमी, तेचपरी अमेरिकन कला आनी विज्ञान ॲकडेमी तशेंच अमेरिकन कला आनी विज्ञान ॲकडेमी हांचो वांगडी आशिल्लो.

ताणें केन्सप्रणीत 'क्रांती', अभिजात अर्थशास्त्र आनी चलनविशींचो सिध्दांत हांचेमदल्या संबंदाचें स्पश्टीकरण तेचपरी चलनाविशींच्या आनी वित्तीय स्थिरीकरण धोरणाच्या परिणामाचें विश्लेशण केलें. अमेरिकन शासनाच्या फेडरल रिझर्व्ह सिस्टिम ह्या मध्यवर्ती बँकेखातीर अमेरिकन अर्थवेवस्थेचें प्रतिमान तयार करपाचें काम ताचेकडेन सोंपयल्लें. मोदिल्यानी हाणें केल्लें संशोधन मुळांत कुटुंबिक बचत आनी वित्त बाजार हाचे संबंदान आशिल्लें. अमेरिकन अर्थशास्त्रज्ञ मिल्टन फ्रीडमन हाणें उजवाडा हाडिल्ल्या (१९५७) आपल्या 'बचतसिध्दांत' हाचे आदीं तीन वर्सां मोदिल्यानीन रिचर्ड ब्रंबर्ग ह्या आपल्या विद्यार्थ्यावांगडा 'जीवनचक्र प्रमेय' उजवाडा हाडिल्लें (१९५४). फ्रीडमन हाचेवरीच मोदिल्यानी- ब्रंबर्ग हांणी कुटुंबां हीं, फुडाराच्या उपेगाखातीर बचत करपाक सदांच यत्नशील आसतात अशें प्रतीपादन केल्लें. तरीय दोगांय अर्थशास्त्रामदल्या सिध्दांतांत येवजणेंतल्या काळांत फरक आशिल्लो. फ्रीडमन हाच्या सिध्दांताप्रमाण हो काळ व्हडलो आसून लोक फकत स्वताखातीरच न्हय जाल्यार आपल्या भुरग्याबाळाकलागून बचत करतात. मोदिल्यानी बंबर्ग-सिध्दांताप्रमाण हो काळ ल्हान आसून लोक फकत स्वताखातीर बचत करतात.

मोदिल्यानी हाणें आपणें मांडिल्ले कल्पनेचें सुसुत्रीकरण, तिचें एका संयुक्तिक अशा प्रतिमानांत रुपांतर आनी त्या प्रतिमानाच्या वेगवेगळया आंगाची उदरगत केली. ह्या प्रतिमानावयल्यान ताणें उपर्युक्त साकलिक अर्थशास्त्रीय ध्वनीतार्थ तयार करून तांकां अणभवांची जोड दिली. अर्थशास्त्राचे उदरगतीचे नदरेन ही ताची व्हड कामगिरी मानतात.

१९५८ त मोदिल्यानी हाणें मर्टन मिलर हाचेवांगडा एकाद्र्या उत्पादनसंस्थेचीं रिणां आनी तांची रचना हांचो त्या उत्पादनसंस्थेच्या विपणीय किंमतीचेर वा बाजारमुल्याचेर कसो परिणाम घडून येता हेविशीं आढावो घेवपी सिध्दांत मांडले.

मोदिल्यानी-मिलर हाच्या मतान उत्पादन संस्थेचें मोल म्हळयार शेअर बाजारांतल्या ते उत्पादन संस्थेच्या भागांचे शेर बाजारीमोल आनी तिच्या कर्जांचें बाजारी मोल ह्या दोगांयची बेरीज. सरासरी भांडवली खर्च हो कर्जराशीर आदारिल्लो नासून तो अशा प्रकारच्या जोखमीच्या

उत्पादनसंस्थांच्या भागांत केल्ल्या भांडवलापसून येवपी अपेक्षित उत्पन्नाबरोबर आसता.

कुटुंबिक बचतविशींच्या जीवनचक्र प्रमेयाची रचना आनी विकास तशेंच उत्पादन संस्था आनी भांडवली खर्च हांच्या मुल्यांविशीं मोदिल्यानी-मिलर सिध्दांताची रचना हातुंतल्या प्रावीण्याखातीर मोदिल्यानी हाका १९८५ वर्साचो अर्थशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार दिवन भोवमान केलो. हाचेभायर ताका जायत्या विद्यापिठांतल्यान डॉक्टरेट (शिकागो) १९६७; कॅथलिक दे लूव्हेन बेल्जियम १९७४; बरगॅमो विद्यापीठ (१९७९) ह्यो मानाच्यो पदव्यो दिवपांत आयल्यो.

मोदिल्यानी हाणें बरयल्ले म्हत्वाचे ग्रंथ अशे : *नॅशनल इन्कम्स अँड इंटरनॅशनल ट्रेड* (१९५३); *प्लॅनिंग, प्रॉडक्शन, इन्व्हेंटरीज अँड बर्कफोर्स* (१९६०); *रोल ऑफ अँटिसिपेशन्स अँड प्लॅन्स इन इकॉनॉमिक बिहेव्हीअर अँड देअर यूज इन इकॉनॉमिक ॲनालिसिस अँड फोअरकास्टिंग* (१९६१); *न्यू मॉर्गिज डिझाइन्स फॉर स्टेबल हाउसिंग इन ॲन इन्फ्लेशनरी इन्व्हायरन्मन्ट* (१९७५) आनी *द कलेक्टेड पेपर्स ऑफ फ्रांग्को मोदिल्याना-३ खंड* (१९८०).

- कों. वि. सं. मं.

## मोनालिसा

**मोनालिसा** : नामनेचें चित्र. नामनेचो चित्रकार लिओनार्दी दा व्हिंची (१४५२-१५१९) हाणें हे व्यक्तीचित्र १५०३ ते १५०५ ह्या काळांत फ्लॉरेन्स हांगा पितारलें. ह्या चित्राक ला जोकोन्दा ह्या नांवानूय वळखतात. कलेच्या इतिहासांतलें हें एक आदर्श व्यक्तीचित्र अशें मानतात.



जिचें हें चित्र आसा, ती बायल (जल्म १४७९) फ्रांचेस्को देल जोकोन्दो ह्या फ्लॉरेन्सांतल्या वेपाऱ्याची घरकान्न आशिल्ली. तेन्नाचो कलासमीक्षक व्हाझारी हाच्या मताप्रमाण, जोकोन्दोनच आपले घरकान्नीचें व्यक्तीचित्र रंगोवपाचें काम लिओनार्दोकडे दिल्लें.

मोनालिसाच्या चेहऱ्याचेर जे गूढ, खोल, भाव दाखयल्यात ताका लागून ह्या चित्राविशींचें आकर्शण आनी लोकप्रियता वाडतच गेली. मोनालिसाच्या मुखामळावयलो मंद हांसो, दोळ्यांतली निर्शेवणेची झांक, आनी सैमाच्या देखाव्याची फांटभूंय हाका लागून हें चित्र खूबच ओडलायणें जालां. तें चित्र वास्तव जगांतलें कशें दिसनासतना एका अप्रूप कल्पना विश्वांतलें कशें दिसता. तें फकत एके बायलेचें चित्र उरनासतना व्यापक अशा स्त्रीत्वाची बसका ताका मेळ्ळया. चित्रांतल्या हातांचें रेखाटनय भोव सोबीत जालां. व्यक्तिचित्रणाच्या मळार ह्या चित्रान एके तरेची क्रांती घडोवन हाडली.

मोनालिसाचो आदर्श दवरून फुडें कितल्याशाच चित्रकारांनी वेगवेगळीं व्यक्तीचित्रां रंगयलीं. नामनेचो दादावादी चित्रकार मार्शेल द्यूशाँ हाणें मोनालिसाक खाडमिशो लावन, ह्या चित्राचें विरूपण केलें आनी L.H.O.O.Q. (१९१९) ह्या नांवान प्रदर्शित केलें. प्रबोधनकाळांतल्या कलासौंदर्याचे निकश भायर उडोवप, असो ताचो हें विरूपण करपाफाटल्यान हेत आसलो.

लिओनार्दोच्या काळांत हें चित्र ताचेकडल्यान पयल्या फ्रांसिसान विकतें घेतलें उपरांत तें पारिसच्या लूव्हर् कलासंग्रहालयांत दवरलें. थंयसावन १९११त तें चोरयेक गेलें. फुडें दोन वर्सां उपरांत तें मेळ्ळें, सद्या ते लूव्हर् संग्रहालयांत दवरलां.

- कों. वि. सं. मं.

## मोनिज, सेलीन ओल्गा

**मोनिज, सेलीन ओल्गा** : (जल्म : २१ ऑक्टोबर १९२६, मोंबासा-केनया).

सुटकेझुजारी. तिणें मॅट्रीक मेरेन शिक्षण घेतलें. बसका घेवप, क्रांतिवीरांवांगडा बेळगांव, बांदा आनी वेंगुर्ला हांगा वचप, गोंयांत भूंयगत वावर करप आनी शेजारच्या वाठारांतल्यान सुटके चळवळीखातीर अर्थीक मदत मागप असलीं कामां ती करताली. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा मालीमच्यान पणजे हातांत बावटो घेवन वता असताना पुलिसांनी तिका धरली. ऑक्टोबर १९५५ त तिची सुटाका जाली. पुलिस अधिकाऱ्याकडल्यान तिका शारिरीक आनी मानसिक त्रास दिवप जाले. १९५७ त ती आफ्रिकेक गेली आनी सद्या ती लंडन हांगा स्थायिक जाल्या. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तिचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## मोनेअता, एर्नेस्तो तेओदोरो

**मोनेअता, एर्नेस्तो तेओदोरो** : (जल्म : २० सप्टेंबर १८३३, मिलान- इटली; मरण : १० फेब्रुवारी १९१८, मिलान).

संवसारीक शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार फाव जाल्लो इटालियन पत्रकार. प्राथमिक शिक्षण घेतल्या उपरांत तो लश्करांत भरती जालो. पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा १९४८ त ऑस्ट्रियन सत्तेआड मिलान हांगा नागरिकांनी केल्ल्या स्वातंत्र्य उठावांत ताणें क्रियाशील वांटो घेतिल्लो. मिलानाक ऑस्ट्रियन सत्तेच्या जाचांतल्यान सोडोवपाक ताणें यत्न केले.

१८५९-६१ ह्या काळांत मॉझिनी आनी जूझेप्पे गॅरिबॉल्डी हाच्या फुडारपणाखाल इटलीचो एकचार घडोवपाखातीर जें गनिमीझूज जातालें, तातूंत ताणें प्रत्यक्ष वांटो घेतिल्लो. तशेंच पालव्हीचीनो ह्या देशभक्तान चलयल्ल्या गुपीत संघटनेंतय ताणें वांटो घेतिल्लो. उपरांत तो इटालियन सैन्यांत गेलो आनी ताणें जायतीं पदां भुशयल्लीं. १८६६च्या कूस्टॉट्सा हांगाच्या झुजांत ताणें आपली कुशळकाय दाखयली. पूण फुडें झुजाचो ताका वाज आयलो. ताणें १८६७ त आपले नोकरेचो राजीनामो दिलो आनी तो संवसारीक शांततायेचो पुरस्कार करूंक लागलो. मिलान हांगाचे 'एल सेकोलो' ह्या लोकशायवादी नेमाळ्याचो तो मुखेल संपादक जालो. ह्या पदार ताणें सुमार ३० वर्सां काम केलें. ताणें फुडें १८७८त इटालियन पीस सोसायटी - द- लीग ऑफ पीस अँड ब्रदरहूड ही संस्था स्थापन केली. फुडें फ्रांस आनी इटली ह्या देशांमदीं जेन्ना राजकीय संघर्ष सुरू जाले तेन्ना ताणें १८८७ त इंटरनॅशनल सोसायटी फॉर पीस-लोंबर्ड लीग हे शांततावादी संस्थेची स्थापना केली. निःशस्त्रीकरण, शांततायेखातीर राश्ट्रसंघ स्थापन करप आनी आंतरराश्ट्रीय संघर्शाखातीर लवाद नेमप आनी विश्वबंधुत्वाचो प्रसार करप ह्या उद्देशांचेर ही संस्था चलताली. हे संस्थेचीं उद्दिश्टां लोकांमदीं पातळावपाखातीर ताणें १८९८त 'इंटरनॅशनल लाइफ' हें नेमाळें सुरू केलें. जायतेकडेन जाल्ल्या शांतता परिशदांनी त वांटो घेतालो. १८९२त बर्न हांगा भरिल्ले शांतता परिशदेंत ताणें कॉ-फेडरेशन ऑफ युरोपियन स्टेटस ही संकल्पना मांडली. १९०६ वर्सा मिलान हांगा भरिल्ले आंतरराश्ट्रीय शांतता परिशदेचें अध्यक्षपद ताका फाव जाल्लें. ताच्या ह्या संवसारीक शांततायेच्या वावरा खातीर ताका फ्रेंच न्यायाधीश आनी कायदेपंडित ल्वी रनो हाचे वांगडा १९०७ वर्साचो संवसारीक शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार वांटून दिल्लो.

१९११-१२ वर्सा तुर्कस्तानाआड लिबिया मेळोवपाखातीर जाल्ल्या इटालियन झुजाक ताणें तेंको दिल्लो. तेचपरी १९१५ त पयल्या म्हाझुजांत इटालीक वांटो घेवंक ताणें मान्यताय दिल्ली.

संपादकीय काळांत ताणें भरपूर प्रमाणांत लिखाण केलां. तेभायर ताणें कांय ग्रंथय बरयल्यात. ताच्या 'वॉर' इन्सरेक्शन अँड पीस इन द नाइन्टिन्थ सेंचरी' (३ खंड- १९०३) ह्या ग्रंथाची खूब नामना आसा. उद्देगधंदे आनी वेपार हांचेवरवीं सगळीं राश्ट्रां एकामेकांमदलो संघर्श विसरून आंतरराश्ट्रीय विश्वबंधुत्वाच्या झेंड्याखाल एकठांय येतलीं आनी शांतता तशेंच इश्टागत पातळटलीं अशी ताणें आशा व्यक्त केल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**मोपला :** मलबार जिल्ह्यांतली एक मुसलमान जात. ह्या लोकांक मापिळ्ळा अशेंय म्हण्टात. वेपाराखातीर मलबारांत आयिल्ले अरब दादले आनी थळाव्यो बायलो हांची मोपला ही संतत मानतात.

हे लोक शिया आनी सुन्नी अशा दोनूय पंथांचे आसात. सुन्नी लोक पोन्नानी तंगल ह्या धर्मगुरूचे अनुयायी आसात आनी शिया लोक कोंदोट्टी तंगल हाचे अनुयायी आसात. ह्या दोनूय पंथांच्या लोकांभितर धर्माविशीं सदांच किजिलां आसतात.

कालिकत हांगा मोपलांचे दोन भेद आसात. कैकोट्टकर हे ताळयो वाजोवपी आनी कैकोट्टाटकर हे ताळयो वाजोवपी न्हय. लग्नकार्यासारक्या मंगल प्रसंगाचेर कैकोट्टकर हे संगिताक ताळयो वाजोवन ताल दितात, पूण कैकोट्टाटकर हांकां तशें करपाक बंदी आसा.

मोपला दादले देग आशिल्लें धवें वस्त्र कमरेक गुठलायतात आनी वयर उत्तरीय पांगुरतात. तकलेर एक ल्हान तोपी घालतात. ते माथ्याचें मुंडन करतात. खाड वाडयतात. बायलो, कमरेक रंगीत वस्त्र गुठलायतात आनी खोमीस घालतात. त्यो ओढणी घेतात वा बुरखो पांगुरतात. बायलांक अलंकार खूब आवडटात. गळ्यांत, कमरेंत, हातांत त्यो तरातरांचे अलंकार घालतात. त्यो आपल्या कानांच्या पाळ्यांक धा ते चवदा बुराक करतात आनी तातूंत तरातरांचीं कानांतलीं घालतात.

वयांत येतकच भुरग्यांचीं लग्नां करतात. लग्नांत चलयेच्या बापायक भरपूर हुंडो दिवचो पडटा. 'निका' हो तांच्या लग्नांतलो मुखेल विधी. निका म्हळ्यार काझी आनी दोन साक्षीदारांचे हजेरेंत लग्नाचो करार करप. उपरांत काझी त्या लग्नाची नोंद करता. लग्नाच्या दिसा वा पयलीं हो निका सुवाळो करतात. निका विधीखातीर व्हंकल आनी न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेच्या कुटुंबाचे मशिदींत वचून कलिमा वाचतात. उपरांत व्हंकलेगेर मेजवानी जाता. मेजवानी जातकच एके कुडींत व्हंकल-न्हवऱ्याची थोडो वेळ भेट जाता.

मोपला दादले खूब बायलो करतात. दादल्याक जाय तेन्ना घटस्फोट घेवपाक मेळटा. घटस्फोटाच्या वेळार दादल्याक, बायलेकडल्यान घेतिल्लो हुंडो परतून दिवंचो पडटा. बायलेक परतून लग्न करपाक मेळटा.

मोपला लोक मडें पुरतात. मनीस मरतकच ताचे कपडे काडटात आनी पांय मक्केचे दीकेन करून दवरतात. दोनूय पांयांचे आंगठे बांदतात आनी हात छातयेचेर खुरसाभशेन दवरतात. मडें मसंडेंत व्हरसर मुल्ला मड्यालागीं कुराण वाचत बसता. सोयरीं येतकच मड्याक न्हाणयतात आनी उपरांत कपड्यान धांपतात. मशिदींतल्यान निसण हाडून मडें निसणीर घालून मशिदींत व्हरतात. सगळे लोक मशिदींत प्रार्थना म्हण्टात. उपरांत मसंडेंत मडें व्हरून ताचें तोंड मक्केवटेन करून मडें पुरतात. त्या फोंडाचेर मेथयेचें झाड लायतात. मुल्ला कुराण वाचता. गरीब लोकांक तांदूळ, पयशे अशें कितेंय दान करतात. मेल्ल्या मनशाचे अर्थीक परिस्थितीप्रमाण मुल्ला तीन, सात वा चाळीस दीस त्या थडग्यालागसार

बसून कुराण वाचता. त्या मनशाच्या घराकडेनय मुल्ला कुराण वाचता. तिसऱ्या वा चाळिसाव्या दिसा सगळया सोयऱ्यांक जेवण घालतात.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद :** मुसलमान, मोपला बंड.

**मोपला बंड :** मोपला जमातीचें केरळांतलें बंड. भारताच्या स्वातंत्र्य चळवळीचीं सूत्रां महात्मा गांधीच्या हातांत येतकच ताणें १९२० त असहकार आंदोलन सुरू केलें. त्याच सुमाराक तुर्कस्तानांत खिलाफत नश्ट केल्ल्यान मुसलमानांच्यो भावना खर जाल्ल्यो. ताचेवयल्यान ब्रिटिशांच्या आड 'जीहाद' पुकारपाक मुसलमान समाज उत्सुक जाल्लो. मुसलमानांच्या हे मनः स्थितीचो फायदो घेवन गांधीजीन खिलाफत चळवळीक पुराय तेंको दिलो. हे चळवळींतल्यानूच केरळांतल्या मोपला हे मुसलमान जमातीन ऑगस्ट १९२१ त बंड केलें. तें 'मोपला बंड' ह्या नांवान वळखतात. हें बंड पांच म्हयने चल्लें. पूण त्या काळांत मोपलांनी खिलाफत चळवळीचें निमित्त करून हिंदुंचेर खून, लुटालूट जाळपोळ, बलात्कार आदी सगळे अमानुश अत्याचार केले.

मोपला लोक हे इ.स. णवव्या शेंकड्यांत मलबार दर्यादिगेर स्थायिक जाल्ल्या अरबांचे वंशज आशिल्ले. वेपाराखातीर आयिल्ल्या अरबांक केरळांतल्या राजांनी कितल्योशोच सवलती दिल्यो. अरब वेपाऱ्यांनी कनिश्ठ मानिल्ल्या हिंदू जमातींतल्या बायलांकडे लग्नां केलीं. ते जमातींतल्या लोकांकडल्यान ते अरब लोक भुरगींय विकत घेताले. त्या काळांत तियार ह्या कनिश्ठ हिंदू जमातींतल्या कितल्याशाच बायलांकूय अरबांनी विकत घेतलीं. चेरूमार ह्या हिंदूंतल्या सगळयांत कनिश्ठ मानिल्ले जातीची स्थिती खूब कठीण आशिल्ली. नंबुद्री आनी नायर लोकांच्या शेताचेर तांकां वेठबिगारी पद्दतीन काम करचें पडटालें. ताचो एक परिणाम म्हूण चेरूमारांक बाटयले. अशे तरेन मोपलांची लोकसंख्या नेटान वाडत गेली. १८३१ त मोपलांची संख्या दोन लाख सत्तर हजार आशिल्ली, ती १८५१ त तीन लाख ब्यायंशीं हजार जाली. १९०१ मेरेन ती सुमार णव लाख जाली. म्हळयार मोपलांची संख्या तिप्पट जाली. ह्याच काळांत जिल्ह्यांतली एकूण लोकसंख्या इकरा लाख सयशें पासश्ट हजारांवयल्यान सत्तावीस लाख नव्वद हजारांमेरेन गेली, म्हळयार अडेच पट वाडली. चेरूमार हे कनिश्ठ हिंदू जमातीची लोकसंख्या १८०६-७ त ९६ हजार आशिल्ली. ती १८५६ त १ लाख सत्यायशीं हजार जाली. पूण १८६० उपरांत ती एकदम कमी जावंक लागली. १८८१ त ती फकत ६४ हजार आशिल्ली. हे जमातीचें धर्मांतर कितल्या व्हड प्रमाणांत जालें, ताचो हो पुरावो आसा.

पंदराव्या शतमानांत पुर्तुगेज आनी फाटोफाट ब्रिटीश आनी फ्रेंच आयले, तेन्ना अरबांची वेपारांतली मक्तेदारी सोंपली आनी कितलेशेच मोपला लोक शेतमजूर म्हूण काम करून उपजिविका करपाक लागले. कांय जाणांनी नंबुद्री आनी नायर जमीनदारांकडल्यान खंडान जमनी घेवन त्यो कसपाक सुरवात केली.

ब्रिटिशांनी टिपू सुलतानाचो १७९० त पराभव केलो, तेन्ना मलबार ब्रिटिशांकडे आयलो. तांचे जमीन महसूल पद्दतींत मोपलांक उत्पन्नाच्या सुमार ३५ ते ४० टक्के रक्कम वसूल म्हूण दिवंची पडटाली. ताचो परिणाम म्हळयार जमीनदार नायर आनी मोपला लोक हांच्यांत खूबदां संघर्श जाले. पूण ब्रिटिशांनीं ते मोडून काडले आनी नंबुद्री आनी नायर हांकां राखण दिली. मोपलांचें पयलें बंड १८३६ त जालें आनी उपरांत १८५४ मेरेन एकूण २२ खेपे उठाव जाले. तातूंतले १८४१ आनी १८४९ चे उठाव गंभीर स्वरुपाचे आशिल्ले. १८५५ त कीनोली ह्या ब्रिटीश अधिकाऱ्याचो खून जालो. तेन्ना ब्रिटिशांची दडपशाय वाडली. ते परिस्थितींत मुल्ला मौलवीचें म्हत्वूय अधिकूच वाडयलें. अशे तरेन मोपलांचे चळवळीचेर धर्मकोल्ली मुल्ला मौलवींनी आपलो शेक वाडयलो.

काँग्रेसीन खिलाफत चळवळीक पुराय तेंको दिवपाचें थरयलें. तेन्ना हे चळवळीक मलबारांतल्या मोपलांनी व्हडा उमेदीन तेंको दिलो. महात्मा गांधी, शौकत अली, मौलाना आझाद आनी हकीम अजमलखान हांणी मलबाराक भेटी दिल्यो. मलबारांत कितलेशेच कडेन खिलाफत समित्यांची स्थापणूक केली. मलबारांतली कुळांची चळवळ, खिलाफत चळवळ आनी असहकार चळवळ ह्यो तीनूय चळवळी एकामेकांत भरसून गेल्यो. गांवागांवांनी बसका, सभा घेताले. तांकां मोपलांची खूब गर्दी आसताली. पूण सामान्य मोपलाक हे चळवळी फाटली राश्ट्रीय नदर आकलन जावप शक्य नाशिल्लें. पूण मुसलमान फुडारी मात परिस्थितीचो फायदो घेवंक लागले. मलबारांतले खिलाफत चळवळीचो आनी उपरांत १९२१च्या बंडाचो फुडारी अली मुसालियर हाणें आपल्या भाशणांतल्यान मोपला जमातीचे सगळेच प्रस्न खिलाफत चळवळ आनी स्वराज्याची चळवळ हाका लागून सुटतले असो एकसारको प्रचार चलयल्लो. १९२१ चे सुरवेकूच ब्रिटीश अधिकाऱ्यांनी एर्नाड आनी वालवानाड ह्या मोपला भोवसंख्य आशिल्ल्या तालुक्यांत खिलाफत चळवळीखातीर चालू आशिल्ल्या सभांचेर बंदी घाली आनी मुखेल काँग्रेस आनी खिलाफत फुडाऱ्यांक अटक केली. तेन्ना चळवळीचीं सगळीं सूत्रां मुसालियर, पंगल आनी हाजी ह्या मुसलमान धर्मगुरूंच्या हातांत गेलीं.

मोपला बंडाचो फुडारी अली मुसालियर आनी हेर फुडाऱ्यांक धरपाखातीर ऑगस्ट १९२१त पुलिस गेल्ले आसतना अशी वदंता पातळ्ळी, पुलीस आनी सैनिक हाणीं भिरुरंगाडीचे मशिदीचेर हल्लो केलो. तेउपरांत तिडकल्ल्या मोपलांची मशिदींतल्यान मोटी गर्दी जाली. ती पयस करपाखातीर पुलिसांनी फारपेट केलो. तेन्ना संतप्त जाल्ल्या लोकांनी अत्याचार, खून, लुटालूट आनी जाळपोळ हांचें सत्रूच सुरू केलें. हे खेपे पयलीं जमीनदार आनी सरकारी म्हालवजाचेर तांचो रोख आशिल्लो.

कितल्याशाचकडेन रेल्वेरूळ तोडून उडयले. टेलीफोन आनी टेलिग्राफच्यो तारो तोडल्यो. ताका लागून दळणवळण थांबलें. टपाल, कचेऱ्यो, बँको, आनी पुलीस चौक्यांची जाळपोळ आनी लूट केली. जमनीदारांच्या घरांतल्यान शस्त्रां, पयशे आनी धान्य हातासलें. ऑगस्ट अखेर मेरेन पालघट सोडल्यार सगळो दक्षिण मलबार बंडखोरांच्या हातांत गेलो. पुलिसांचे जोडयेक आतां लश्कराकूय आपयलें. बंडखोरांच्या ताब्यांत आशिल्ल्या मुलखांत मुसालियरच्या नांवान बादशहा म्हूण नामना पातळायली. एर्नाड आनी वालवानाड हे तालुके खिलाफत राज्य म्हूण जाहीर केले.

ह्या भागांत निरपराध हिंदुंची व्हडा प्रमाणांत हत्त्या केली. खूब जाणांक सक्तीन बाटयले. देवळां उध्वस्त केलीं. कितल्याशाच जाणांच्या घरांक उजो लायलो. लुटालूट आनी बलात्काराचे खूब प्रकार घडले. कांय हिंदू बायलांचीं मुसलमानांकडे सक्तीन लग्नां लायलीं. जाणीं धर्मांतराक न्हयकार दिल्लो, तांचे हातपांय तोडून तांकां बांयत उडयले. बायलांकडल्यान तांचीं भुरगीं ओडून घेवन तांच्या मुखारूच जिवीं मारलीं. कांय जाणांची कात सोलून काडली.हेर कितल्याशाच जाणांक मारचेपयलीं स्वताचीं थडीं खणपाक सांगलें.

सप्टेंबर ते ऑक्टोबर १९२१ त सैन्याच्यो हालचाली नेटान सुरू जाल्यो. मद्रास प्रांतांतलें सैन्य उणें पडलें. म्हूण उत्तरेंतल्यान आनीकूय कुमक मागयली. ३ सप्टेंबर दिसा अली मुसलियर शरण आयलो. पूण उपरांत तांच्या अनुयायांचे अत्याचार खूबच वाडले. एर्नाड आनी वालवानाड तालुक्यांत बंडाचो नेट चड आशिल्लो. निमाणें डिसेंबर १९२१ त बंड पुराय मोडलें. २३३७ बंडखोर मेले, १६५२ जखमी जाले आनी ४५,४०४ शरण आयले. सैनिकांपैकीं ४२ जाणांक मरण आयलें तर १२९ जखमी जाले.

मोपला बंडाफाटल्यान स्वता जमीन कसपी कुळांक एकसारकी दिसपी असुरक्षितता, शेतकारांचे प्रस्न आनी धर्मीक भावनेचे भकीक पडून केल्ले अत्याचार खंयचोच फुडारी थांबोवंक शकलोना.

- कों. वि. सं. मं.

**मोमझेन, टेओडोर :** (जल्म : ३० नोव्हेंबर १८१७, गार्डिंग, (श्लेस्विग होलस्टायन); मरणः १ नोव्हेंबर १९०३ बर्लिन).

नामनेचो जर्मन इतिहासकार, कायदे पंडित आनी साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार विजेतो. ताचो जल्म प्रॉटेस्टंट पंथीय पाद्र्याच्या घराण्यांत जाल्लो. ताणें मुळावें शिक्षण घरचे घराच घेतलें. फुडें हँबर्ग लागसारच्या अल्तोना हांगाच्या विद्यालयांतल्यान शिक्षण घेवन ताणें भाशाशास्त्र आनी न्यायशास्त्र ह्या विशयांत कील विद्यापिठांत (१८३८-४३) ह्या काळांत उच्च शिक्षण घेतलें आनी कायद्याचो अभ्यास केलो. विद्यार्थी आसतना ओटो यॉन आनी फ्रीड्रिख कार्ल फोन सॅव्हिन्यी ह्या त्या काळांतल्या विचारवंताच्या व्याख्यानाचो आनी लिखाणाचो ताचेर प्रभाव पडिल्लो. हाचोच परिणाम म्हूण ताणें रोमन संस्थांचेर एक प्रबंध बरयलो. बर्लिन अकादेमीन ताका इटली फ्रान्सांतल्या लॅटीन कोरिव लेखांचो अभ्यास करपाखातीर शिश्यवृत्ती दिली. ताणें सुमार ३६,००० कोरीव लेख जमयले. इटलीन ताका वार्तोलोमेओ बोर्गेसे ह्या पुराभिलेखज्ञाचो वांगड मेळ्ळो. फुडें दोगांयनी मेळून 'कोरपुस इन्सक्रिपत्सिओनुम लाटिनानरूम', हो लॅटीन कोरीव लेखांचो संग्रह अणकारावांगडा उजवाडा हाडलो (१८६१). सैमनाइट आनी निआपॉलिटन वाठारांतल्या कोरिव लेखांचो अभ्यास करून ताणें १९५२ त तांचो संग्रह उजवाडाक हाडलो.

१८४७त तो इटलींतल्यान जर्मनीक (श्लेस्विग) आयलो. थंय ताणें एल्बांतल्या डेन्मार्काआडचे सुटके चळवळीक तेंको दिलो. फुडें लाइपसिक विद्यापिठांत रोमन कायद्यांचेर ताणें दिल्ल्या व्याख्यानांखातीर नामना जावन थंयच प्राध्यापक म्हूण ताची १८४८ त नेमणूक जाली. पूण १८५१त सुटके चळवळीक तेंको दिल्लेखातीर ताका थंयचो काडलो. उपरांत १८५२ त झूरिक विद्यापिठांत प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. फुडें लाइपासिक हांगाच आसतना ताणें कार्ल राइमर आनी हेर्झेल ह्या प्रकाशकांच्या विनवणेकलागून 'रोमचो इतिहास' हो तीन खंडात्मक बृहद्ग्रंथ पुराय केल्लो (१८५४-५८). ह्याच काळांत कोरपुस इन्सक्रिपत्सिओनुमचें संपादकपद आनी संचालकपण ताका मेळ्ळें आनी ताणें १५ खंडांत हे कोरिव लेख (१,३०,०००) उजवाडा हाडले. रोम वयल्या ह्या इतिहास ग्रंथाक लागून ताका सुमाराभायर नामना मेळ्ळी. ह्या ग्रंथाचो सीझर आनी ताचें साम्राज्य हाचेवयलो चवथो खंड अर्दकुटो आसा. पूण ताचो 'रोमन प्रॉव्हिन्सिस अंडर द एम्पायर' हो पांचवो खंड रोमन कोरिव लेखांच्या साधनासामुग्रीचो पुराय तरेन उपेग करून १८८५ त उजवाडाक हाडलो. ह्या ग्रंथाक इतिहासीक कल्पनाशक्त, चिकित्सक विवेचन, अभ्यासु नदेरन म्हायती आनी सुबोधता हे नदरेन सुमाराभायर नामना मेळ्ळया आनी अभिजात जर्मन साहित्यांत ह्या बृहद्ग्रंथाची गणना जाता. ह्या ग्रंथाक लागून १८५८ त ताका बर्लिन विद्यापिठांत पुर्विल्ल्या इतिहास विशयाचें प्राध्यापकपद फाव जालें. मरण येसर तो ह्या पदार आशिल्लो. ह्या काळांत ताणें इतिहासांतल्या कोरीवलेखांभायर नाणकशास्त्र, पुरातत्त्वविद्या, आदी विशयांतय संशोधन करून भरपूर प्रमाणांत संशोधनात्मक लिखाण केलें. ताचें चडशें लिखाण जर्मन भाशेंत आसून तातूंत 'रोमिश्केश स्टाटश्रेक्ट (तीन खंड - १८७१-८८), रयोमिशेस स्टाटरेष्ट (१८९९), रेडेन उंट आंओफझेत्सऽ (१९०५), गेझामेल्टऽ श्रीफ्टन (७ खंड, १९०५-१०) आदी ग्रंथांचो आस्पाव जाता. ताच्या चडशा ग्रंथांचो इंग्लिशींत अणकार जाला. ताच्या ह्या साहित्यिक वावराचो भोवमान करपाक १९०२ वर्सा ताका साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार दिवपांत आयलो. हो मान मेळोवपी तो पयलो जर्मन इतिहासकार आशिल्लो.

शिकप, शिकवप आनी संशोधन हाचेभायर जर्मनच्या भौशिक राजकीय मळारप ताणें वावर केला. लोकशाहीविशीं ताका राग आशिल्लो पूण लोकमनाची कदर करपी अभिजन सत्तेचो तो पुरस्कर्तो आशिल्लो. प्रशियन संसदेंत तो उदारमतवादी पक्षाचो १८६३-६६ आनी १८७३-७९ ह्या ९ वर्सांच्या काळांत तो निर्वाचित प्रतिनिधी आशिल्लो. फुडें जर्मनच्या एकीकरणाउपरांत जर्मन राईशस्ताग (शाही संसद) चेर ताका १८८१-८४ प्रतिनिधी म्हूण ताका वेंचिल्लो. प्रॉयशिसऽ यार ब्युषर ह्या त्या काळांतल्या प्रभावी राजकीय नेमाळ्याचो तो सहसंस्थापक आनी स्तंभ लेखक आशिल्लो. १८७३-९५ ह्या काळांत तो 'बर्लिन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सिस' हे संस्थेच्या सचिवपदार आशिल्लो.

बर्लिनलागसारच्या उपनगरांत ताका मरण आयलें. ताच्या मरणाउपरांत ताचें पुराय साहित्य खंड रुपान उजवाडा येवंक लागलें. तातूंतले आठ खंड उजवाडा आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## मोये, प्रभाकर दत्ता प्रभू : (जल्म : ५ नोव्हेंबर १९२९, शिवोली-बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें मॅट्रीक आनी कॉमर्सचें इंटर मेरेन शिक्षण घेतलें. सुटके चळवळीच्या काळांत तो नॅशनल काँग्रेस गोंय हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. राष्ट्र सेवा दलाचो तो कार्यकारी वांगडी आशिल्लो. १९४६ त डॉ. राम मनोहर लोहिया हाणें सुटके झुजाचो उलो दिलो तेन्ना ताकाय स्फूर्त मेळ्ळी. २६ जानेवारी १९५५ दिसा ताणें शिवोली वाठारांत जाल्ल्या सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. पुलिसांनी ताका धरलो आनी प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून णव वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच दोन वर्सां दंड आनी एक वर्स संरक्षक उपाय म्हूण भितर दवरलो. १५ ऑगस्ट १९५९ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. गोंय सुटके उपरांत तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## मोर : ह्या पक्षाचो आस्पाव पक्षी वर्गांतल्या गॅलिफॉर्मिस ह्या गणाच्या फॅजिॲनिडी ह्या कुळांत केल्लो आसा. भारतांत मेळपी मोराचें शास्त्रीय नांव पॅव्हो क्रिस्टेटस (Pavo Cristatus) अशें आसा. भारतीयांचो मोर हो आवडटो पक्षी आशिल्ल्यान १९६३ वर्सा भारत सरकारान मोर हो देशाचो 'राष्ट्रीय पक्षी' मानलो.

नर पक्षाक मोर आनी मादीक लांडोर म्हण्टात. लांडोरीक पिसारो नासता. तिचीं पाखां उदी गोबऱ्या रंगाचीं आसतात. मोराचे दोळे निळे आसून तांचेर पंख्याभशेन तुरो आसता. मानेचो रंग गाड निळो आनी फाटीचेर खवळांभशेन पाचव्या रंगाचीं पिसां आसतात. पाखांच्या चडशा भागाचेर काळे, हळदुवे आडवे पट्टे आसतात. मोराक शेपटे भोंवतणी पिसारो आसता. ही शेपटी धांपपी पिसां लांब आसून तांचो पिसारो सुमार ९० ते १२० सेंमी. लांबायेचो आसता. ताचो रंग पाचवो आसता. पिसाऱ्यांतल्या चडशा पिसांच्या तोंकाचेर दोळो आसता. दर एका दोळ्याच्या मदीं जांबळया-काळया रंगाचो काळजाकृतीचो व्हड थिपको आसून ताचे भोंवतणी निळो रंग आसता. सादारपणान ह्या पिसाऱ्यांत सुमार २०० पिसां आसतात. लांडोरीची तकली तांबशी पुडीकोराची आसून तकलेर एक तुरो आसता.

ताचीं पाखां आनी शेपटी गाड पुडीकोराची आसता आनी मानेचो पोंदचो भाग पाचव्या रंगाचो आनी शरिराचो पोंदचो भाग हळदुवो-धवसो आसता. मोर गिधाडायेदो आसता आनी मादी मोरापरस मात्शी ल्हान आसता. मोराचें वजन ४ ते ६ किलोमेरेन आसता. तर मादयेचें वजन ३ते४ किलोमेरेन आसता. एका मोरावांगडा तीन ते पांच लांडोरी आसतात. हो पक्षी सुमार २०-३० वर्सां जगता.

खिस्ती शेंकड्याच्या कितलेशेच शेंकडे पयलीं भूमध्य दर्यालागसारच्या देशांतल्यान मोर भारतांत आयलो अशें मानतात. इजिप्त



आनी आशिया मायनरचे राजे आपले बागेंत मोर पोसताले. भारतांत, मोर खूब पवित्र मानतात. स्कंद पुराणांत हाचो उल्लेख आसा. यजुर्वेदसंहितेंत अश्वमेधाच्या वेळार दिल्ल्या बळींभितर मोराचें नांव आसा. अथर्ववेद आनी ऋग्वेद हातूंत लांडोराचो उल्लेख आसा. देवांचो सेनापती कार्तिकेय आनी वाग्देवी सरस्वती हांचें मोर हेंच वाहन आसा.

भारतांत मोर चडसो सगळ्या भागांनी दिसता. हिमालयांत १,६०० मीटर उंचायेचेर मोर मेळ्ळा. श्रीलंका, बांगलादेश, ब्रह्मदेश, जपान आनी जावा जुंव्यांनीय मोर आसात. श्रीलंका आनी जपान हांगाचे मोर धवे आसतात. जाल्यार जावा जुंव्यावयले पाचवे आसतात. भारतांत राजस्थान, पंजाब, हरियाना हांगा मोराचें वास्तव्य आसलें, तरी मणिपूर, मिझोराम (चितगाँग) ह्या भागांनी चड आसा. दोंगर-उतार, सखल प्रदेश वा रानांनी रावपाक मोराक चड मानवता. रातीच्या वेळार झाडाचे ऊंच खांदयेर, घराच्या पाख्याचेर मोर बसून रावता. फांतोडेचेर मोर 'माऊऽ

माऊऽ' असो कर्कश आड्डता.

मादीचो प्रजनन काळ जानेवारी म्हयन्यासावन ऑक्टोबरमेरेन आसता. भारतांत तो वेगवेगळे सुवातीचेर वेगवेगळो मेळटा. सादारणपणान मध्य आनी उत्तर भारतांत पावसाच्या अदमासाक जून म्हयन्यांत ह्या हंगामाक सुरवात जाता आनी तो सप्टेंबरमेरेन चालू आसता. दक्षिण भारतांत तो चड करून एप्रिल आनी मे म्हयन्यांत तशेंच श्रीलंकेंत जानेवारी ते मार्चमेरेन आसता. पिसारो फुलोवन नाचप हें ह्या हंगामाचें खाशेलपण आसा. ह्या हंगामाउपरांत पिसाऱ्यांतलीं पिसां गळून पडटात. पूण अशे पिसां गळून पडिल्ले अवस्थेंत तो कोणाकूच दिसना. हो हंगाम सोंपतकच मोराचें बहुपत्नीकत्व आनी ताचें कुटूंब सोंपता. मोर, लांडोर आनी पिलां हांचे स्वतंत्र कळप जातात.

मोर हो मुळांत लजेस्त आनी थंड स्वभावाचो आसलो तरी तो सदांच जागरूक आसता. सुरक्षित आनी एकटुके सुवातेर, जमनीचेरूच ताचें घरटें कांटेरी झोंपांनी आसता. ताचीं तांतयां वाटकुळीं लेव-हळदुव्या रंगाचीं आसतात. मादी खेपेक ४ ते ६ तांतयां घालता. तांती ७० मिमी. लांब आनी ५०मिमी. रूंद आसता. सुमार २८ दीस मादी तांतयां उबयता. सादारण दोन म्हयन्यांचीं जातकच पिलां वसतीखातीर झाडाचेर वतात. मात्शी कसलीय सुलूस लागल्यार मोर झुडपांतल्यान ना जाता.

कड्डण, वनस्पतीचे तरने कोंब, बारीक जीव, गोगलगाय, शेड्डे, पाली, सोरोप हें ताचें खाण आसा. तेचभशेन रानसुणो, चित्तो, रानमाजर, व्हड मुंगूस, गरूड हांचो ताका भंय दिसता. मळबांत कुपां येतकच मोराक खूब उमेद जाता आनी तो नाचूंक लागता.

गळून पडिल्लीं मोराचीं पिसां व्हड प्रमाणांत एकठांय करप जाता. पयलीं हीं पिसां युरोपांत आनी अमेरिकेंत निर्यात करप जातालीं. पूण उपरांत हाचेर बंदी घाली. ह्या पिसांचो उपेग चडकरून पंखे आनी हेर कांय सोबेच्यो वस्तू तयार करपाखातीर करतात. खंयचोय घाय वा जखम विखयाळी जावची न्हय म्हूण ताचेर हळद घालून मोरापांख बांदतात. मोरपीस चिलमींत घालून ओडल्यार, खर सोरपाचें वीख देवता, अशीय कांय लोकांची समजूत आसा.

सद्याच्या काळांत जगांतल्या सगळ्या देशांच्या पक्षिसंग्रहालयांत आनी उद्यानांनी मोर आसा. भारतीय मोरांची पैदास परदेशांत बरोच काळ जाल्ली आशिल्ल्यान तांच्यांत कांय बदल जाल्ले दिसून येतात. तांच्या शरीर प्रमाणांतूय थोडो बदल जाल्लो दिसून येता. ते थोडे वजनदार आनी आंखूड पांयांचे आसतात. तांच्या रंगांतूय बदल जाल्लो आसा. हातूंतल्यान पुराय धवो मोर आनी अदींमदीं धवो जाल्लो भाग आशिल्लो (पाइड) मोर ह्यो अभिजाती निर्माण जाल्यात.

मनशाक मोराकडसून नाचपाची प्रेरणा मेळ्ळी असो समज आसा. भारतीय नृत्यकलेचेर मयूरनृत्यकलेचो प्रभाव दिसून येता.

कविकल्पनांत आनी लिखाणांतूय मोराक खूब म्हत्व आसा मोराच्या रडपाक वाङमयांत 'मधुर केकारव' म्हण्टात. पंजाबांत सोरपाचें वीख देंवोवपाक मोरापाखाचो उपेग करतात.

- डॉ. एस्. आर. गनिहार

## मोरया, गोसावी : (जल्म : इ.स. १३७५, मोरगाव; मरण इ.स. १४६१, चिंचवड).

एक नामनेचो गणेशभक्त सत्पुरुष आनी कवी. हाचें मूळ घराणें कर्नाटकांतल्या शाली ह्या गांवचें. हो देशस्थ ऋग्वेदी हरितसगोत्री ब्राह्मण



आशिल्लो. मोरया गोसावीच्या बापायचें नांव वामनभट्ट आनी आवयचें नांव पार्वतीबाई आशिल्लें. हांचें उपनांव शालिग्राम आशिल्लें. पूण फुडें ह्या घराण्यांत खूब सिध्दपुरूश जाल्ल्यान ह्या घराण्याक देव ह्या नांवान वळखूंक लागले.

पिरायेच्या पन्नास वर्सांचेर वामनभट्ट, पुण्यालागसाच्या मोरगांव हांगा रावपाक आयलो. थंय ताका चलो जालो. मयुरेश्वराचे कृपेन आपल्याक भुरगें जालें हे श्रध्देन ताणें आपल्या पुताचें नांव मोरया दवरलें. शुध्दचरित आनी सत्त्वगुणसंपन्न आवय-बापायच्या सान्निध्यांत वाडिल्ल्या ह्या भुरग्याची आठव्या वर्सा मूज केली. भुरगेपणांतूच ताणें वेदाध्यन पुराय केलें. उपरांत सिध्द योगीराज ह्या सद्गुरूच्या उपदेशावयल्यान ताणें थेऊर हांगा कडक तपश्चर्या केली. सतत बेचाळीस दीस अखंड नामस्मरण करतकच गणपतीन मोरयाक दृश्टान्त दिलो अशें म्हण्टात. तेन्नासावन तो मोरया गोसावी जालो. आवय-बापायच्या मरणाउपरांत ताणें मोरगांव सोडलें आनी तो चिंचवड हांगा रावपाक लागलो.

थंयच ताणें गोविंदराव कुलकर्णी हाच्या उमा नांवाचे चलयेकडे लग्न केलें. आपल्या चल्याक ताणें चिंतामणी अशें नांव दवरलें.

गणेशाच्या साक्षात्काराप्रमाण ताणें कऱ्हा न्हंयेंतल्यान गणेशाची मूर्ती काडली आनी चिंचवडाक तिची प्रतिश्ठापना केली.

मोरया गोसावीन आपले पिरायेच्या ८३व्या वर्सा मार्गशीर्ष वद्य षष्ठी शके १३८३ म्हळ्यार इ.स. १४६१, चिंचवड हांगा जिवित समाधी घेतली. उपरांत ताच्या पुतान समाधीचेर देवूळ बांदलें.

ताणें गणपतीचेर खूब पदांय रचल्यांत. ताचीं सासुर, माहेर, कामधेनू आनी हेर पदां खूब प्रसिध्द आसात.

दर वर्सा मार्गशीर्ष म्हयन्यांत ताचे पुण्यतिथीनिमतान व्हड उत्सव मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मोरायस, जे. बी. :** (जल्म : २९ जून १९३३, कल्लमुंडकूर, दक्षिण कन्नड, कर्नाटक).

नामनेचो कोंकणी कवी. ताचें मूळ नांव जॉन बापतिस्त मोरायस. पूण ताका जे. बी. मोरायस ह्याच नांवान चड वळखतात. ताचो जल्म एका मध्यमवर्गीय घराण्यांत जालो. ताचो बापूय बेंजमीन मोरायस गांवांत शिकोवपाचें काम करतालो. जे. बी. न आपलें मुळावें शिक्षण गांवच्या लिटल फ्लावर इश्कोलांत घेतलें. उपरांत किरें गांवांत पोंपय माध्यमिक शाळेंत मॅट्रिक जातकच तो १९५१ वर्सा नोकरेच्या निमतान मुंबय गेलो.



थंय ताका नामनेचे डेवीस पार्क हे वखदांचे कंपनींत काम मेळ्ळें. आजुनय तो तेच कंपनींत काम करता. २३ मे १९५७ वर्सा श्रीमती मेटिल्डा पींज हिचे लागीं ताचें लग्न जालें. ताका चार पूत आसात.

भुरगेपणासावनच ताका कविता बरोवपाची देण लाभिल्ली. शाळेंत शिकतना ताच्यो कोंकणी कविता कानडी लिपयेंतल्या कोंकणी नेमाळ्यांनी छापून येताल्यो. मुंबय पावतकच ताणें 'रोमियो आनी जुलियेट' (शेक्सपियरच्या नाटकाचो अणकार) हें पयलें पुस्तक बरयलें. तें मुंबयच्या कोंकणी प्रचार मंडळान १९५४ वर्सा उजवाडाक हाडलां. १९५८-५९ काळांत ताणें 'रिडर्स डायजेस्ट' आनी 'कोंकणी दायज' नेमाळे संपादित केलें. १९६१ वर्सा सावन मुंबयचे आकाशवाणीचेर ताच्यो कविता, कथा आनी उलोवपां प्रसारीत जावंक लागलीं. ताचो पयलो कवितां झेलो 'नवी व्हंकल' १९७७ वर्सा फादर विल्यम सिल्वान हाणें संपादित केला आनी मंगळूरच्या प्रगती प्रकाशनान तो उजवाडाक हाडला. १९६४-७६ मेरेन मुंबयसावन उजवाडा येवपी 'पैणारी' ह्या कोंकणी सातोळयाच्या सल्लागार मंडळाचो वांगडी म्हूण ताणें काम केलां. १९७८ वर्सा पैणारी सातोळयांत ताची 'अंत्य नासल्लें स्वपाण' (नामनेचो साहित्यिक डॉ. शिवराम कारंतच्या 'चीमन दुडी' कादंबरीचो अणकार) कांदबरी उजवाडाक हाडली. ताच्यो 'निसराल्याक लोटून घालो' (१९७४) 'बोलप्यां मदली शेळी' (१९७६), 'जरलो गेम्स आनी वाटीस शेणय' ह्यो इंग्लीश साहित्यापसून अणकार केल्ल्यो कादंबऱ्यो पैणारी सातोळयान उजवाडाक हाडल्यो. १९८० वर्सा ताचो 'कोशेडतान केल्लो खून' हो काणयांझेलो मंगळुरच्या राकणो प्रकाशनान उजवाडाक हाडला. तातूंत ७ काणयो आसात. ह्या पुस्तकाक गोंयच्या 'कोंकणी भाशा मंडळाचें' इनाम मेळ्ळां. १९८३ वर्सा ताचें 'मंगळुरचीं उज्वल रत्ना' नांवाचें एक म्हत्वाचें पुस्तक मंगळुरच्या पुनव प्रकाशनान उजवाडाक हाडलें. हातूंत दक्षिण कन्नड जिल्ह्यांत साहित्यिक, समाजीक, वैजकी आनी हेर मळांनी तोलामोलाची सेवा केल्ल्या ८ किरिस्तांव मानेस्तांची वळख दिल्ल्या. स्वामी सुप्रियान संपादीत केल्ल्या १९८४ वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या ताच्या 'भितरलें तुफान' कवितां झेल्याक साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळा. हातूंत २८ कवितांचो आस्पाव आसा. हाचेभायर ताणें डॉ. र.स. मुगाळिचें 'हिस्टरी ऑफ कन्नड लिटरेचर' पुस्तक कोंकणींत अणकारीत केलां. साहित्य अकादमीन तें 'कन्नड साहित्याचा इतिहास' ह्या नांवांन १९८९ वर्सा उजवाडाक हाडलां. १९८९ वर्सासावन राखणो सातोळयाचेर कांय काळ ताचें 'दिव्यामृत' खंडकाव्य उजवाडा येतालें. हें काव्य बायबलांतल्या कथांचेर आनी घडितांचेर आदारून बरयलां. गोंयच्या सरस्पत प्रकाशनान ताचो 'फुतिफराची बायल' एकांकी संग्रह १९९० वर्सा देवनागरी लिपयेंत उजवाडा हाडला. गोंयच्या णवव्या वर्गाच्या कोंकणी पाठ्यपुस्तकांत ताची 'भागी म्हजो गांव' कविता आसा.

जे. बी. मोरायस हाणें कोंकणी कविता, लेख, कथा, नाटकुलीं, नाटक, अणकार, कादंबरी, खंडकाव्य आदी साहित्यप्रकार केळयल्यात. ताचीं कांय नाटकांय माचयेर आयल्यांत. तो साहित्य अकादेमीच्या आनी हेर संस्थांच्या कार्यावळींनी वांटो घेतालो. १९८५ वर्सा ताच्या 'भितरलें तुफान' ह्या कविताझेल्याक, १डिसेंबर १९९० वर्सा ताच्या कोंकणी साहित्यिक वावराक लागून महाराष्ट्र सरकारान १ लाख रुपयांचो 'महाराष्ट्र गौरव पुरस्कार' दिला. २७ जानेवारी १९९१ ह्या दिसा 'कलासागर' मुंबय संस्थेन ताका 'कविराय' हें बिरूद दिलां. 'कोंकणी सभा', 'राखणो', 'क़ोंकणी परजेची जमात', 'पार्क डेवीस', 'कर्नाटक संघ', 'कोंकणी परब' आदी संस्थांनी ताचे भोवमान केल्यात. १६ आनी १७ जानेवारी १९९३ ह्या दिसा गोंयच्या मडगांव जाल्ल्या १९व्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.

बेडमिंटन आनी टेबल टेनीस हे ताचे आवडीचे खेळ. मंगळूरच्या राकणो सातोळयाच्या सल्लागार मंडळाचो तो वांगडी आसा. तेचपरी मुंबय, कोंकणी भाशा मंडळाचो सरचिटणीस जावन कोंकणीची सेवा करता.

- फा. प्रताप नायक, जे. स.

**मोरायस, डॉम :** (जल्म : १९३८, मुंबय).

नामनेचो इंडो-अँग्लियन कवी. नामनेचो भारतीय पत्रकार फ्रँक मोरायस हाचो पूत. ताणें मुंबय आनी जीझस कॉलेज, ऑक्सफर्ड हांगा शिक्षण घेतलें. ताचो पयलो कवितांझेलो 'अ बिगिनिंग' हो १९५७ त उजवाडा आयलो. ताच्या ह्या झेल्याक हॉथॉर्नडन पुरस्कार फाव जाल्लो. उपरांतच्या काळांत ताचे पोएम्स (१९६०), जॉन नोबडी (१९६५), द ब्रास सर्पंट, पोएम्सः १९५५-६५ (१९६६) आनी कलेक्टेड पोएम्स (१९६९) हे कवितांझेले उजवाडा आयले. ताच्यो चडशो कविता आत्मकथात्मक आसात. टी. एस. एलियट, ऑडन, डिलन टॉमस आनी अतिवास्तववादी संप्रदाय हांचो ताचेर प्रभाव पडिल्लो दिसता. माय सन्स फादर (१९६८) हें ताणें बरयल्लें आत्मचरित्र. ताचीं हेर उल्लेख करपासारकीं पुस्तकां अशीं - गॉन अवे, ॲन इंडियन जर्नल (१९६०) (भोंवडीवृत्त), द टेपेस्ट विदिन (१९७०) (पाकिस्तान भोंवडेचो वृत्तांत), अ मेटर ऑफ पीपल (१९७४) हें बारा अविकसीत देशांचें प्रवासवर्णन, मिसेस इंदिरा गांधी (१९८०) चरित्र. बी. बी. सी आनी आय. टी. व्ही. ह्या संस्थांच्या म्हायतीपटाचें लिखाण तो करतालो. जेमिनी (ऑक्सफर्ड), नोव्हा (लंडन), द एशिया मॅगझीन (हाँगकाँग) पॉप्युली (न्यूयॉर्क) ह्या नेमाळयांच्या संपादन वावरांत ताणें मोलादीक वावर केला. साद्या सोंप्या उतरांनी कविता बरोवप हें ताचें खाशेलपण.

- कों. वि. सं. मं.

**मोरोक्को :** आफ्रिका खंडाच्या वायव्य कोनशाक आशिल्लो एक देश. क्षेत्रफळ ४,५८,७३० चौ. कि.मी. लोकसंख्या २९,११४,४९७ (१९९१). अक्षवृत्तीय विस्तार २३° ते ३५° ५६' उत्तर आनी रेखावृत्तीय विस्तार ०°.५८' ते १६° २१' अस्तंत. मोराक्कोचे उत्तरेक भूमध्य दर्या, उदेंतेक आनी आग्नेयेक आल्जीरिया, दक्षिणेक अस्तंत सहारा आनी अस्तंतेक ॲटलांटिक महासागर आसा. राबात ही देशाची राजधानी आसा.

**भूंयवर्णन, हवामान, वनस्पत आनी मोनजात :** मोरोक्कोची चडशी भूंय पर्वतांची आसा. भूंयरचणूकेचे नदरेन देशाचे तीन वांटे जातातः १) ॲटलास पर्वतांचो प्रदेश २) अटलांटिक दर्या देगेवयलो मळांचो प्रदेश आनी ३) पर्वतांच्या प्रदेशाचे आग्नेयेकडचो सहारी रेंवाट प्रदेश. ॲटलास पर्वतांच्यो चार वळी आसात. तातूंतली उत्तरेक दर्यादिगेक समांतर अशी रिफ पर्वतांवळ २,४००मी. उंचायेची आसा. हाय ॲटलासांतलें जेबल टुब्कल हें ४,१६५मी. उंचायेचें देशांतलें सर्वोच्च शिखर आसा. अटलांटिक दर्या देगेवयलो मळांचो प्रदेश शेतवडीक आनी गोरवां पोसपाचे नदरेंतल्यान म्हत्वाचो आसा. ॲटलास पर्वतांवळींचे उदेंतेक आनी दक्षिणेक सहारा प्रदेश आसा.

सहारा कालाहारी वाळवंटांतलो वाठार आनी पर्वताच्या प्रदेशांत हवामानांत सामको फरक आसता. पर्वतांवळींच्या वायव्येकडल्या प्रदेशांत कडक शिंयाळे आनी उबदार गीम आसता. दक्षिण वाठारांतल्या दर्यादिगेंतल्यान येवपी वारें आनी उदेंत अस्तंतेकडच्या वाऱ्याक लागून दर्यावेळांवयल्या वाठारांनी पावस बरो पडटा. ऑक्टोबर- नोव्हेंबर आनी मे-एप्रिल ह्या तेंपार पावस पडटा.

ॲटलांटिक देगांचेर कॉर्क ओक झाडांचीं रानां आसात. ॲटलास पर्वतदेंवतेचेर सदा पाचवी रानां आसून हांगा ओक, सिडार पाइन, युकॅलिप्टस, फर, जुनिपर, सायप्रस रूख मेळटात. मोरोक्कोंत बिबळो वाघ, कोलो, माकड, रानबोकड सांपडटात. सरभोंवतणच्या रानांनी तरेकवार सवणीं आसात.

**इतिहास आनी राजकीय स्थिती :** बर्बर जमातीचे लोक हे हांगाचे थळावे रावपी. इ.स.प. १४६ त तो मॉरिटेनिया असो रोमन प्रांत जालो. रोमन साम्राज्य हांगा कांय शेंकडे थिरावल्याउपरांत ४२९ त व्हँडॉल लोकांनी ह्या प्रदेशाचेर घुरी घाली आनी रोमन लोकांचें साम्राज्य सोंपयलें. मुखार ६व्या शेंकड्यांत तो वाठार बायझेंटिन साम्राज्याच्या शेकातळा गेलो. सातव्या शेंकड्यांत अरबांनी मोरोक्कोचेर जैत मेळयलें. इतिहासिक नदरेंतल्यान अरबांनी हांगा दोन म्हत्वाच्यो गजाली केल्यो. त्यो म्हळयार अरबी भाशेचो आनी इस्लाम धर्माचो प्रसार.

फ्रेंच आनी स्पॅनिश वसाहतींचो काळ मोरोक्कोच्या इतिहासांत म्हत्वाचो आसा. मोरोक्कोंतल्या अंदाधूंदीचो फायदो घेवन फ्रांसान हो देश घेवपाचे बरेच फावटी यत्न केले. पूण दरखेपेक जर्मनीन तांकां विरोध केलो. १९३४ त हांगाचे फ्रेंच सत्तेक थीरपण आयलें. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत मोरोक्कोंत स्वतंत्रतायेचे चळवळीक नेट आयलो. २ मार्च १९५६ त फ्रांसान फ्रेंच मोरोक्कोक स्वतंत्र केलो. मोरोक्कोचो सुलतान १९५७ त देशाचो राजा जालो. स्पेनान १९५८ त दक्षिणेकडचो वाठार आनी १९६९ त इफ्नी हें बंदर मोरोक्कोच्या ताब्यांत दिलें.

राजा पांचवो मुहंमद सुलतान सिद्दी हाणें १९६०त देशाचें शासन आपल्या ताब्यांत घेतलें. १९६२ वर्सा देशांत पयलेचफावट संविधान तयार केलें आनी ह्या संविधानांतल्यान राजेशाय आनी इस्लाम हो देशाचो धर्म म्हण जाहिर केलो. दुसऱ्या हसनान १९६३ त अहमद बहमनी हाका पंतप्रधान केलो. मोरोक्कोच्या इतिहासांत तो पयलो प्रधानमंत्री आशिल्लो. मोरोक्कोंत १९७२ वर्सा लोकामतांनी नवें संविधान आपणायल्लें आनी १९८० त तातूंत कांय सुदारणा केल्ली. ह्या संविधानावयल्यान देशांत राजेशाय आसा. राजा होच नागरी आनी धर्माचो सर्वोच्च अधिकारी आसा. देशांत एकसदनी विधिमंडळ आसा, तातूंत ३०६ वांगडी आसतात.

**अर्थीक स्थिती :** हांगा शेतवड आनी गोरवां पोसपाच्या वेवसायाक म्हत्व आसा. देशांतले सु. ७०% लोक शेतवडीचेर जगतात. देशांतली

२०% जमीन शेतवडीखाल आसा आनी सु. ३०% जमीन चरोवाचीं मळां आनी एस्पार्टो तणान भरिल्ली आसा. गंव, सातू, साखरबीट, मको, कडुण, द्राक्षां, ऑलिव्ह, टॉमाट, बटाट, हरबरो आनी मेथी हांचें पीक बरेंच येता. रानांतल्या झाडांक लागून ह्या देशाक बरीच व्हडली येणावळ मेळटा. हांगा नुस्तेंमारीचोय धंदो व्हडाप्रमाणांत चलता.

खणकाम हो ह्या देशाचो म्हत्वाचो उद्देग आसा. फॉस्फेटाचें सगळयांत चड उत्पादन हांगा जाता. फातरी कोळसो, खनीज तेल, शेल, शिशें, मँगनीज, अँटिमनी, कोबाल्ट, तांबें, जस्त, रुपें, युरेनियम, लोखण हीं खनिजां हांगा सांपडटात.

**लोक आनी समाजजीण :** मोरोक्कोंतले थळावे रावपी बर्बर लोक आसात. मुळचे बर्बर, वसणुकेखातीर आयिल्ले अरब, गोरे, स्पॅनिश आनी फ्रेंच, ह्या सगळया प्रकारच्या लोकांची एकामेकांकडेन आयिल्ल्या संबंदांतल्यान बरीच भरसण जावन, एक नवोच समाज तयार जाला. इस्लाम हो देशाचो अधिकृत धर्म. चडशे लोक सुन्नी मुस्लीम आसात. ज्यू आनी रोमन कॅथलिक धर्मांचेय लोक आसात. अरबी ही देशाची अधिकृत भास. बर्बर जमात, बर्बर भास उलयतात. साक्षरतेचें प्रमाण कमी म्हळयार वट्ट लोकसंख्येंतलें फक्त २०%च आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## मोरोपंत : (जल्म : १७२९, पन्हाळगड; मरण : १७९४).

एक मराठी महाकवी. ताचें पुराय नांव मयुरेश्वर रामाजीपंत पराडकर. बापायचें नांव रामचंद्र (रामाजीपंत) आनी आवयचें नांव लक्ष्मीबाई. रामाजीपंताक सोनोपंत, मयुरेश्वर आनी आबा हे चले आनी आका ही चली आशिल्ली. मोरोपंताचो जल्म जामदग्न्य गोत्राच्या कऱ्हाडे ब्राह्मण घराण्यांत जालो. ताचे बायलेचें नांव रमाबाई आशिल्लें.

मोरोपंताचें भुरगेपण आनी शिक्षण पन्हाळगडाचेर, ताचो गुरू केशव पाध्ये आनी गणेश पाध्ये हांचेकडे जालें. तांचेकडे काव्य, व्युत्पत्ती, अलंकार, वेदान्त ह्या विशयांचें अध्ययन करून मोरोपंत पन्हाळगडावयल्यान बारामतीक आयलो आनी थंय पेशव्यांचो जांवय आनी सावकार बाबूजी नाईक जोशी बारामतीकर हांचेकडे आश्रित पुराणिक म्हूण रावपाक लागलो. थंय ताणें पुराणकथन, ग्रंथावलोकन आनी काव्यरचनेक सुरवात केली. मोरोपंत बाबूजी नाईक हाच्या वाड्यार पुराणां सांगतालो. ताकालागून ताका वर्साक ५०० रुपया बिदागी मेळटाली.

मोरोपंतान आमरण विद्याव्यासंग, काव्यरचणूक, आनी रामसेवा केली. प्रपंचांत रावनूय परमार्थाचो लाव करून घेतलो. रामभक्त आशिल्ल्यान ताणें आपलें पांडित्य, भाशाप्रभुत्व, छंदशास्त्र, साहित्यशास्त्र, व्याकरणशास्त्र ह्या शास्त्रांचो वापर करून १०८ रामायणां रचलीं. पाऊण लाख मराठी कविता रचल्यो. तातुंतल्यो आर्या ४० हजारांवयर आसून, हेर कविता विंगड विंगड वृत्तांनी रचल्यात. तातुंतल्यो आयज फकत ६० हजार कविता मेळटात, पूण १५ हजार कविता मात मेळनात. मोरोपंताक उपजत काव्यशक्त आशिल्ली; पूण काव्यरसज्ञ गुरूंचो सहवास, काव्येतिहासपुराण ग्रंथांचें अध्ययन आनी निरंतर अभ्यास हाकालागून ताची काव्यशक्त चड फुलली.

मोरोपंतान सगळयांत पयलीं आपल्या गुरूचे आज्ञेन 'देवीमाहात्म्य' बरयलें. उपरांत स्कंदपुराणांतल्यान 'ब्रह्मोत्तरखंड' आनी 'भस्मासुराख्यान' हांची रचणूक केली. कुशलवचरित जैमिनी अश्वमेधाच्या आदारान बरयलें. मदालसाआख्यान, हरिश्चंद्राख्यान, साध्वीमहिमा आनी देवीमाहात्म्य हीं चार प्रकरणां मार्कंडेयपुराणांतल्या कथाभागांच्या आदारान रचल्यांत.

'प्रल्हादविजय' हो विष्णुपुराणांतले कथेचो अणकार आसून सतीचीं पदां मात ताणें स्वताच रचल्यांत. हातूंत सीता, रुक्मिणी आनी सावित्री ह्या पतिव्रतांचीं चरित्रां आयल्यांत. तशेंच मोरोपंताचीं 'कृष्णामाहात्म्य', 'व्यंकटेशस्तोत्र', 'दशावतार प्रार्थना', 'गणेशस्तुति', 'देवीस्तुति', 'दत्तदयोदय' देवांचीं स्तोत्रां आसात. 'संशयरत्नावलि', 'आर्यकिकावलि', 'नामार्या', 'वाङमनःप्रार्थना', 'नामसुधाचषक', 'नामरसायन', 'गुरुस्तुतिमुक्तांजलि', 'पतिव्रताकीर्तन', 'सन्मनोरथराजि', 'प्रश्नोत्तररत्नमाला', 'महाद्विज्ञापना' आनी 'आशंसाष्टक' हीं स्तोत्ररूप प्रकरणां आसात. हाचे उपरांत (१७७३ ते १७८३) ह्या काळांत 'महाभारत' बरयलें. ताच्या काव्यरचनेच्या निमाणच्या काळांत म्हळयार सुमार बारा वर्सांच्या कालखंडांत 'मंत्रभागवत', 'हरिवंश', 'संकीर्ण रामायणा', 'ब्राह्मणमाहात्म्य', 'गीतार्या' 'भगवद्गीतास्तुति', 'अहल्योध्दार' आनी 'श्लोककेलावली' हीं काव्यां येतात.

अशेतरेन मोरोपंतान महाभारत, रामायण आनी भागवत हे ग्रंथ आनी तातुंतलीं शेंकड्यांनी आख्यानां आनी उपाख्यानां मराठी भाशेंत रचलीं. तीर्थक्षेत्रांचेर आनी संतांचेर हजारांनी आर्या केल्यो. तशेंच स्वतंत्र स्तोत्रां आनी लघुकाव्यांची रचणूक केली.

हरिदास आनी कीर्तनकार हांणी मोरोपंताच्यो कविता लोकप्रिय केल्यो. तशेंच विठोबादादा चातुर्मासे, शाहीर रामजोशी हांणी ताचे कवितेचो त्या काळांत खूब प्रसार केलो. मोरोपंताची पुराय वळख आनी ताचें प्रभावी समर्थन विष्णुशास्त्री चिपळूणकर हाचे निबंदमाळेंतल्या 'मोरोपंतांची कविता' ह्या लेखांत जाता. उपरांत ल. रा. पांगारकर आनी श्री. ना. बनहट्टी हांणी स्वतंत्र ग्रंथ बरोवन मोरोपंती कवितेचें रसिकावलोकन केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**मोर्डेकार, मधुकर यशवंत :** (जल्म : १४ सप्टेंबर १९२०, मडगांव- साश्ट).

गोंयचो सुटकेझुजारी आनी समाजसेवक. ताणें पणजी हांगा चवथें वर्स लिसेंव आनी बेळगांव हांगा मॅट्रिक मेरेनचें शिक्षण घेतलें. १९३९-१९४६ ह्या काळांत तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' हे समितीचो वांगडी आशिल्लो. पिरायेच्या १२ वर्सांचेर मडगांव हांगा प्रभातफेरिंनी वांटो घेवन ताणें सुटके झुजाखातीर वावर करपाक सुरवात केली. उपरांतच्या काळांत नारायण हराडकर, सदाशिव परांपजे, याळगी, नाथ पै हांचे वांगडा बेळगांव रावन राश्ट्रीय चळवळीचीं पुस्तकां वांटप, पत्रकां वांटप तेचपरी लोंढा, बेळगांव खानापूर हांगा आयोजित केल्ल्या बसकांनी वांटो घेवप असलीं कामां करतालो. १८ ऑक्टोबर १९४६ ह्या दिसा म्हापशां ताणें सत्याग्रह केलो. तेन्ना पुलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत घालो. उपरांत प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ३० दीस बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेचपरी दिसाक दोन रुपया हे प्रमाण तीस दीस दंड भरूंक लायलो. दंड भरूंक नाशिल्ल्यान ताका वट्ट साठ दीस ख्यास्त भोगची पडली. तशेंच पांच वर्सांखातीर ताच्या राजकीय हक्कांचेर बंदी हाडली.

बंदखणींतल्यान सुटका जाल्या उपरांत तो बेळगांव वचून भूंयगत वावर करूंक लागलो. गोंय सुटके उपरांत 'अखिल गोंय पीठ वांटप समिती' चो (All Goa Wheat Flour Distribution) तो पयलो अध्यक्ष आशिल्लो. दक्षिण गोंयचे दुरध्वनी समितीचेर चिटणीस म्हूण ताणें काम केलां. तेचपरी दुरध्वनीच्या सल्लागार समितीचो तो वांगडी आसा (१९९२). मडगांव हांगाच्या योगा केंद्राचो तो संस्थापक वांगडी आसा. राश्ट्रीय शैक्षणिक अनुसंधान आनी प्रशिक्षण परिशद दिल्ली, तशेंच बेंगलोर, लोणावळा, मुंगेर (बिहार) हांगा आयोजित केल्ल्या कृतिसत्रांत ताणें वांटो घेतिल्लो.

रोटरी क्लब, तेचपरी मठग्रामस्थ हिंदू सभा मडगांव आनी सुरेश नायक मेमोरियल ट्रूस्ट हांणी ताच्या समाजकार्याचो भोवमान केला. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**मोर्याक, फ्रांस्वा :** (जल्म : ११ ऑक्टोबर १८८५, बॉर्दो(फ्रान्स); मरण : १ सप्टेंबर १९७०, पॅरिस).

नोबॅल पुरस्कार फाव जाल्लो फ्रेंच कादंबरीकार आनी नाटककार. एका मध्यमवर्गीय कॅथलीक घराण्यांत ताचो जल्म जालो. बार्दो विद्यापिठांत तशेंच पॅरिसच्या एकॉल दे शार्त हे शिक्षण संस्थेंत ताणें आपलें शिक्षण पुराय केलें. ले मँ ज्वांत (१९०९) हो ताचो पयलो कथाझेलो. पूण उपरांत मात ताका कादंबरीकार म्हूण नामना मेळ्ळी. १९२२ वर्सा उजवाडा आयिल्ल्या 'ल बेझे ओ लेप्रे' (१९२३) हे कादंबरीक लागून ताका व्हड कादंबरीकार म्हूण नामना मेळ्ळी. ते उपरांत ताणें बरयल्ल्यो कादंबऱ्यो अशो आसात: 'द देझॅर द लामूर' (१९२५), 'तेरॅझ देस्केरू' (१९२७), 'ल न द व्हिपॅर' (१९३२), 'ल मिस्तॅर फ्रांतनाक' (१९३३), 'ला फारिझियॅन' (१९४१), 'ल साग्वँ' (१९५०) आनी ताच्या मरणाआदीं उजवाडा आयिल्ली 'अँना दोलेसा दोत्र फ्वा' (१९६९).

बार्दो शार आनी थंयच्या मध्यमवर्गीयांची घुस्पटमारीची जीण हो ताच्या कादंबऱ्यांचो मुखेल विशय. फुडें १९३८ सावन तो नाट्यलेखनाकडे वळ्ळो. 'आस्मोदे' (१९३८), 'ले माल एमे' (१९४५) हीं ताचीं उल्लेख करपासारकीं नाटकां. जर्नलचे ४ खंड (१९३४-५१), संस्मरणिका (३ खंड १९५९-६७) आनी 'द नोव्हेलिस्ट अँड हिज कॅरॅक्टर्स' (१९३३) सारक्या बरपांतल्यान ताणें लिखाणाफाटलो उद्देश, बरोवपाची पद्दत आनी ताचे हेर विशयावयले विचार उक्ते केल्यात. १९३९त फ्रेंच अकादेमीचेर ताची नेमणूक जाल्ली. १९५२ वर्सा ताका साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**मोल्सवर्थ, जेम्स टी. :** (जल्म : १७९५; मरण : १३ जुलय १८७२, क्लिफ्टन).

आर्विल्लो मराठी शब्दकोशकार. एक्झीटर (डेव्हन) हांगा ताचें शिक्षण जालें. फुडें तो लश्करांत गेलो. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा तो भारतांत आयलो. मराठी आनी हिंदुस्थानी ह्या दोन भाशांची १८१४त ताणें परीक्षा दिली. ताका संस्कृत, ग्रीक, लॅटीन, फार्सी ह्या भासांचेंय गिन्यान आशिल्लें. १८१४ त नेटिव्ह इन्फंट्रीच्या णवव्या रेजिमेंटांत भाशाभिज्ञ म्हूण ताची नेमणूक जाली. ३ मे १८३७ दिसा तो लश्करांतल्यान निवृत्त जालो.

A Dictionary of Marathi and English (१८३१) ह्या नांवान तयार केल्ल्या मराठी-इंग्लीश शब्दकोशावरवीं मोल्सवर्थान नामना जोडली. ह्या कोशापयलींच्या शब्दकोशांचो आदार घेवन सुमार स वर्सांभितर मोल्सवर्थान हो कोश तयार केलो. संस्कृत, फार्सी, अरबी, हिंदुस्थानी धरून सुमार चाळीस हजार शब्द ताणें पयले आवृत्तींत घेतले. जॉर्ज कँडी आनी टॉमस कँडी ह्या भावांचे तशेंच त्या काळांतल्या कांय विद्वान जाणकारांचो पालव हे कोश रचनेखातीर मोल्सवर्थान घेतलो. १८५७त ह्या कोशाची दुसरी आवृत्ती आयली. दुसरे आवृत्तींत सुमार साठ हजार शब्द आयल्यात. शब्दसंख्या, शब्दार्थ हे नदरेन मोल्सवर्थाचो कोश खूब म्हत्वाचो आसा. इंग्लीश-मराठी शब्दकोशाचें काम मोल्सवर्थान हातांत घेतिल्लें. पूण भलायकी इबाडिल्ल्यान तो तें पुराय करूंक शकलोना.

थॉमस कँडी हाणें तो पुराय केलो.

मोल्यवर्थान खिस्ती धर्माविशीं कांय पुस्तिकाय बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**मोसंबी :** स्वीट ऑरेंज वा सिट्रस सायनोन्सिस ह्या नांवान प्रसिध्द आशिल्ले हे वनस्पतीचो संत्र, लिंबू, तोरींग आनी मावळींग हांच्या कुळांत आस्पाव जाता. साथगुडी, व्येलेंसीआ, व्हॅन्लीन आनी जाफा ह्या भारतांत जावपी वनस्पतींकूय मोसंबी अशें म्हण्टात.

मोसंबी ही ईशान्य भारतांतली आनी बर्मा हांगाची थळावी वनस्पत आसा अशें मानतात. युरोप, अमेरीका आनी हेर अस्तंत देशांत हे वनस्पतीची लागवड खूब उसरां, म्हळ्यार पंदराव्या शेंकड्यासावन जाली. अस्तंत भारतांत जावपी हेच जातीची वनस्पत, पुर्तुगेजांनी मोझांबीकच्यान हाडिल्ली आनी मोसंबी हें मोझांबीक हाचें अपभ्रंश नांव आसा अशें कांय वनस्पतशास्त्रज्ञांनी आपलें मत मांडलां.

मोसंबी हो रूख सादारणपणान मध्यम म्हळ्यार २ ते ३मी. उंचायेचो आसता. हाचीं पानां लांबोडीं वाटकुळीं आसतात. तांचो देंठ अशीर पाखांसारको पूण मातसो चेपटो आसता. पानां आनी खांदी हांचे मदीं बारीक कांटो आसता. ह्या झाडाक येवपी फुलां धवीं आनी परमळीत आसतात. फळ गोल (globose) आनी मांसाळ आसता. फळाची साल मातशी दाट आसून, ती शिरांक (फोडी) घट्ट दशिल्ली आसता. दर एका फळाक १०-११ शिरो आसतात. शिरेंतल्या बोयांनी (juice sacks) आमसार-गोड रोस आसता. एके शिरेंत २ते५ बियो आसतात. जून जाल्लें फळ पाचवें आनी पिकिल्लें हळदूवसार आसता.



हे वनस्पतीची लागवड करपाखातीर मर्यादीत पावस, सुकें हवामान, उश्ण तापमान आनी फुसफुशीत मातयेची गरज आसता. झाडाचें मुखेल मूळ (Tap root) जमनींत खोल वता, पूण अन्न आनी उदक मेळोवपी मुळां लागींच आसतात. झाडांमदली सुवात ६x६ मीटर दवरप खूप गरजेचें आसता. कलम केल्ल्या झाडाक चड फळां येतात म्हूण तांची लागवड चड करतात. कलमां वाडलीं म्हण्टकूच तीं लावपाखातीर १मी. x १मी. अकाराचो फोंड मारतात. उपरांत त्या फोंडांत २५किग्रॅ. गोबर घालतात. कलमां लायल्या उपरांत सुमार १ म्हयनोभर तांच्या माथ्यार सावळी आसची पडटा. झाडां चार वर्सांचीं जालीं म्हण्टकूच तांकां फळां येवपाक लागतात. सादारणपणान एका झाडाक वर्साक १००० ते १५०० मेरेन फळां येतात.

डायबॅक, फायटॉफ्थोरा आनी मूळकूज हे मोसंबीच्या झाडांक जावपी कांय म्हत्वाचे रोग आसात. डायबॅक हो रोग जालो म्हण्टकच सुरवेक पानां आनी उपरांत खांदयोय सुकत रावतात. निमाणेकडेन सबंद झाडच सुकून वता. पान पोकऱ्यो किडी (beaf miner), मोसंबी पाखे, धड पोखरपी किडी आनी मायट ह्यो ह्या झाडांक लागपी म्हत्वाच्यो किडी. किडी नाशकांचे फवारे मारून किडींचो नाश करूं येता.

ह्या फळाचो मुखेल उपेग म्हळ्यार तें ताजें आसतना खावपाखातीर वापरतात. सादारणपणान फळांत ३० ते ४५% रोस आसता. ह्या रोसांत शर्करा आनी अम्लता आशिल्ल्यान तो दुयेंस आनी अशक्त मनशांक पियपाक दितात. मोसंबीच्या सालींचें तेल काडून तें अन्न पदार्थांक परमळ हाडपाखातीर वापरतात.

ब्राझील, अमेरिका, इटली, जपान आनी स्पेन हे मोसंबीचें चड उत्पादन काडपी मुखेल देश आसात. भारतांत मोसंबीचें चड उत्पादन आंध्र प्रदेश, पंजाब आनी महाराष्ट्र ह्या राज्यांनी जाता. गोंयचें हवामान मोसंबीच्या पिकाक फावो तशें ना. मोसंबीचीं झाडां गोंयकारांच्या पोरसांनी खंयूय पळोवपाक मेळटात.

- मिंगेल ब्रागांझ

**मोहरम (मुहर्रम) :** इस्लामी वर्साचो पयलो म्हयनो आनी त्या म्हयन्यांतलो मुस्लीम धर्मियांचो एक उत्सव. 'मुहर्रम' शब्दाचो अर्थ पवित्र असो जाता. 'पवित्र कुराणांत' वर्णन केल्ल्या मुहर्रम, शव्वाल, जिल्काद आनी जिल्हज्ज ह्या चार म्हयन्यांतलो एक पवित्र म्हयनो.

मोहरम म्हयन्याच्या पयल्या धा दिसांत मोहरम नांवाचो उत्सव मनयतात. ह्या धाव्या दिसाक आशूरा म्हण्टात. शिया लोक सुतकाचे दीस म्हूण हे दीस पाळटात. कारण महंमद पैगंबराचो नातू हरजत इमाम हुसैन हाका आशूराच्या दिसा यजीद मुवाविया हाणें मारिल्लो. ताचे यादीक पयले णव दीस ताजिया वा ताबूत बसोवन ताचें धाव्या दिसा विसर्जन करतात. इराकांत करबला हांगा जंय हुसेनाक मारिल्लो थंय ताची कबर बांदल्या. इसवी सन चवदाव्या शेंकड्यांत अमीर तैमूर करबलाचे जात्रेक वचून आयलो आनी उपरांत ताणें ताचे कबरीची प्रतिकृती तयार केली. हे प्रतिकृतीकूच 'ताजिया' म्हण्टात.

मोहरमच्या दिसांत दरेक मुसलमान मनीस आपले ऐपतीप्रमाण चांदी, हस्तिदंत, शिंशें, कंवची, कोंडे आदी वेगवेगळे प्रकार वापरून ताबूत तयार करतात. मोलादीक ताबूत आसल्यार तें तशेंच दवरून निमण्या दिसा सादे कोंडे वा कागद वा कपड्याचें ताबूत पुरपाक दवरतात.

एके वण्टीकडेन मक्केवटेन तोंड करून ताबूताची स्थापना केल्ली आसता. ताच्या लागसारच हुसेनाचे कपडे, आयुधां, खावपाचे पदार्थ दवरतात. थंय मेणवाती आनी रंगीत दिवे लावन सगळेकडेन लखलखाट

करतात. ताबूतालागसार एक ओटो बांदून थंय सदांच मैलवी 'मजलीस' नांवाची पोथी वाचून दाखयता.

उत्सवाच्या निमण्या दिसा सगळ्या ताबूतांची मिरवणूक काडटात. मिरवणुकीच्या शेवटाक गरीब लोकांक हत्तीवयल्यान अन्न आनी पैशे वांट्टांत. मिरवणूक जातकच सगळे ताबूत गांवाभायर विसर्जीत करतात.

आशूरा मोहरमचो पवित्र धावो दीस म्हूण आनी मोहरम हो सैम उत्पत्तीचो म्हयनो म्हूण सुन्नी मुसलमानांक पवित्र दिसता. मुहंमद पैगंबरान आपल्या अनुयायांक आशूरा ह्या दिसा उपास आनी प्रार्थना करपाविशीं आदेश दिला. तशेंच त्या दिसा न्हावप, निवळ कपडे घालप, दोळ्यांत सुरमा (काजळ) घालप अशें सांगलां. दुस्मानांकडेन शांतीकायेन एकचार करप, सत्संग करप, अनाथांक आदार दिवप, दानधर्म करप अशीं सत्कार्यां करपाचो उपदेश केला.

- कों. वि. सं. मं.

**मोहिनी :** विष्णुचो तेरावो अवतार. फकत भागवत पुराणांतूच हो अवतार मानला. भागवत पुराणाच्या ८व्या स्कंधांत विष्णुच्या ह्या अवताराची कथा दिल्या ती अशी- देवदैत्यांनी समुद्रमंथन केलें, तेन्ना तातुंतल्यान अमृत आयलें. पूण तें सगळें अमृत दैत्यांनी बळान आपणें घेतलें. हें पळोवन देवांक खूब वायट दिसलें. सगळे देव विष्णुम्हऱ्यांत गेले आनी तांणी दैत्यांकडल्यान अमृत मेळोवन दिवपाचें वचन घेतलें. दुसरेवटेन अमृत पिवपाखातीर दैत्यांभितर झगडीं जालीं. तेवेळार विष्णु सोबीत सुंदर अशें मोहिनीचें रूप घेवन थंय गेलो. मोहिनीचें हें रूप पळोवन सगळे दैत्य तिचेर भाळ्ळे. तेन्ना मोहिनीन अमृत वांटपाखातीर दैत्यांकडल्यान अमृतकुंभ घेतलो आनी दैत्यांक फसोवन तो अमृतकुंभ देवांक दिलो.

दुसरे एके कथेंत उन्मत्त भस्मासुराचो नाश करपाक विष्णुन मोहिनीचें रूप घेतलें. आपलेच हात मस्तकार दवरून भस्मासुराक आपलें भस्म करून घेवपाक मोहिनीच्या रुपाचो आदार जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**मोहिनीआट्टम :** केरळांतलो एक परंपरिक शास्त्रीय नाचाचो प्रकार. कथकळि हो नाचूय केरळांतलोच, पूण हो नाच दादल्यांनी नाचपाचो, तांडवनृत्यनाट्याभशेन आसता. जाल्यार मोहिनीआट्टम म्हळ्यार फकत बायलांनीच करपाचो लास्ययुक्त नाचाचो प्रकार आसा.

पुराणांत भस्मासुर आनी मोहिनीची कथा आसा. भस्मासुराक मारपाखातीर विष्णुन मोहनीचें ओडलायणें रूप घेतलें आनी भस्मासुराक आपल्या वांगडा नाचपाक सांगलें. त्या नाचांत ताचोच हात ताच्या मस्तकार दवरपाक लावन ताचें मरण घडोवन हाडलें.

मोहिनीआट्टम ह्या शब्दांतलो मोहिनी हो शब्द मोहकपणाचें प्रतीक दिसता. आट वा आट्टम म्हळ्यार नाच.

त्रावणकोराच्या स्वाती तिरूनल महाराजाचो काळ हो मोहिनीआट्टम हे नृत्यशैलीचो उदरगतीचो काळ मानतात. पूण हो राजाश्रय सोंपतकच मात ही मोहक नृत्यशैली सोंपली. जांणी हे कलेक पोसवण दिली तांणी तिका एक विलासाचें साधन केलें. मोहिनी नर्तिकांक तांणी आपली भोगदासी करून तांच्या चारित्र्याची वाट लायली. देखून हो नाच शिकपाखातीर बऱ्या घरांतल्यो चलयो येना जाल्यो. हाकाच लागून पोरन्यो नर्तिका सोंपतकच नव्या नर्तिकांची पिळगी तयार जावंक पावलीना.



पूण विसाव्या शेंकड्यांत नामनेचो केरळीय कवी वळ्ळत्तोळ नारायण मेनन हाणें हे कलेक नवें जीवन दिलें. ताणें चेरूतुरुत्ती हांगा 'केरल कलामंडलम' ही संस्था स्थापन करून ज्या कलांचो नाश जाला तांकां परतून जिवित केल्यो. तातूंतलीच मोहिनीआट्टम ही एक आसा. व्हड कश्टान ताणें कल्याणी अम्मा, चिन्नम्मू अम्मा, चिन्न कुट्टी अम्मा ह्या फिशाल आनी प्रवीण नर्तिकांक सोदून काडल्यो. तांचेकडल्यान त्या नृत्याचीं सगळीं आंगां शिकून घेतलीं. उपरांत ताणें ते पद्दतीचें शिक्षण दिवपाखातीर आपल्या कलामंडलांत वर्ग सुरू केले. पूण सुरवातेक ताका हो नाच शिकपाक कोणूच चलयो मेळ्ळयो नात. उपरांत ज्यो कोण थोड्यो चलयो मेळ्ळयो, तांकां ताणें बरें शिक्षण दिलें आनी तांचे कडल्यान मोहिनीआट्टमाचे जाहिर प्रयोग केले. फुडें ल्हव ल्हव हे कलेविशीं सभ्य लोकांक आवड तयार जाली आनी बऱ्या घराण्यांतल्यो चलयोय ह्या शिक्षणाखातीर कलामंडलांत येवंक लागल्यो.

श्री. वळ्ळतोळ हाणें त्या नृत्यांत काळाक अणसरून खूब सुदारणां केल्यो आनी तो नाच अदीक मनभुलवणो केलो. आयचे हे शैलींत भरतनाट्यम नृत्याभशेन 'नृत्त' आनी 'नृत्य' हांचो बरो मेळ दिसून येता. अभिनय करतना हातांचो वापर सादारणपणान भरतनाट्यमाभशेनूच आसता, पूण तातूंत कथकळींतल्या हातमुद्रांचो प्रभाव दिसता. तशेंच मोहिनीआट्टम हे शैलींतूच वापरपी मुद्राय खूब आसात. 'नृत्त' हातूंत

मोहिनीआट्टमचे आपले अशें खाशेलें अंगचलन, चारी आनी अडवू ह्यो सुरवातीच्यो हालचाली आनी पावल्यो मारपाचे प्रकार आसात. कमरेवयल्या आंगाची सातत्यान जावपी ओडलायणी वाटकुळी हालचाल हे शैलीचें खाशेलपण आसा. 'चोलकट', 'गणपती', 'पंदडी', 'मुखचालम्', 'कर्कला', 'दंडकम्', 'अष्टपदी' ह्यो मोहिनीआट्टमांतल्यो कांय खाशेल्यो परंपरिक नृत्य रचणुको आसात. तशेंच भरतनाट्यम् ह्या नाचांतल्यो 'वर्णम्', 'पदम्', 'जावळी', 'तिल्लाना' ह्यो सगळयो कर्नाटक संगीत नृत्य रचणुको लेगीत मोहिनीआट्टम ह्या नाचांत नाचतात. सादारणपणान हे शैलींत कर्नाटक संगिताचो वापर जाता. पूण 'सोपानम्' ह्या केरळीय संगीतबाजाचो प्रभाव ह्या मोहिनीआट्टमच्या संगिताचेर चड आसा. मल्ल्याळम भाशेभशेनूच संस्कृत भाशेंतल्यो रचणुकोय मोहिनीआट्टमांत खूब आसात.

मोहिनीआट्टम् नर्तकीचो भेस खाशेलो केरळी पद्दतीचो आसता. कमरेभोंवतणी, धवें फुल्ल तलम वस्त्र, फुडले वटेन मिरयो काडून साडयेभशेन गुठलायतात. वयर गाड तांबड्या वा पाचव्या कोराचो ब्लावज घालतात. माथ्यार एके वटेन केंसांचो वांटकुळो आंबाडो घालतात आनी ताचेर धव्या फुलांची फांती माळटात. कानांत व्हड व्हड कानांतलीं घालतात. तशेंच गळ्यांत तरातरांचे केरळी पद्दतीचे अलंकार घालून, कमरेक भांगराचो कमरपटो असो भेस करतात.

भरतनाट्यमाभाशेनच हातुंतूय तालम् वाजोवपी 'नटुवन्' (हाकाच नटुवनार वा सुत्रधार म्हण्टात) आनी गायिकेचो आस्पाव आसता. पयलीं येडक्कै म्हळयार बडयेन वाजोवपाचें चामड्याचें वाद्य, मुखवीणा ह्या साथीच्या वाद्यांचो आस्पाव आसतालो. हालीं मृदंग, वीणा, व्हायोलीन हीं वाद्या वापरतात.

भारताच्या हेर प्रदेशांनी तशेंच भायल्या देशांनीय ही शैली वयर काडपाखातीर शांता राव, रागिणी देवी, इंद्राणी रेहमान हांणी खूब कश्ट घेतले. कनक रेळे ही हालींच्या काळांतली नामनेची नर्तकी जावन आसा. हे शैलीविशीं तिणें बरें मोलादीक संशोधन करून ताचेर बरोवप केल्लें आसा. केरळांतल्या 'कलामंडलम्' भशेनूच त्रिवेंद्रम हांगाची 'सोपानम्' ही संस्थालेगीत मोहिनीआट्टम शैलीची उदरगत करपाक यत्न करता. मुंबयंतल्या 'नालंदा नृत्यकला महाविद्यालयांत' य मोहिनीआट्टमाचें शास्त्रीय शिक्षण मेळपाची सोय आसा. तशेंच मुंबय विद्यापिठाच्या नाचाचे पदवी परीक्षेक बसपाचीय सोय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मोहेंजोदडो :** हिंदू संस्कृतायेचें नामनेचें पोरनें शार. तें सिंधच्या (पाकिस्तान) लार्कान जिल्ह्यांत आसून थंयच्या दोंगुल्ल्यांक मोहेंजोदडो (मेल्ल्यांचो जागो) अशें म्हण्टात. १९२२ वर्सा राखालदास बॅनर्जी हाका त्या जाग्यार एका कुशाणकाळांतल्या स्तूपालागसार उत्खनन करतासतना भुंयेंत कांय पोरन्यो वस्तू मेळ्ळयो. १९२७ वर्सामेरेन जॉन मार्शल हाणें हांगा उत्खनन केलें. १९२७-३१ ह्या काळांत मकाय हाणें आनी उपरांत मॉर्टीमर व्हीलर हाणें १९५० वर्सा हांगा उत्खनन केलें.

मोहेंजोदडो हांगा ५किमी.च्या आवाठांत हडप्पा संस्कृतायेचे अवशेश पातळिल्ले आसात. ह्या अवशेशांचे किल्लो आनी नागरी वसती अशे दोन वांटे करूं येतात. किल्ल्यावटेनच्या उत्खननांत मातयेच्या विटांची बसका मेळ्ळ्या आनी ताचेर किल्ल्याची वास्तू उबारिल्ली दिसता. शाराचे राखणेखातीर वचत थंय भाजिल्ल्या विटांचे बुरूज बांदिल्ले आसात.

किल्ल्या भितर नागरी वसती आशिल्ली. हे नागरी वसतीच्यो वट्ट अवस्था उत्खननांत मेळ्ळयो. हांगाची नागरी वसती हडप्पा भशेनूच आखीव आनी योजनाबध्द मांडावळीची आशिल्ली. थंयचे रस्ते सुमार



**मोहेंजोदडो :** नगररचना एक, एक उत्खनित चित्र

९मी. रूंद आसून मुखेल रस्ते उदेंत-अस्तंत आनी उत्तर-दक्षिण अशे आंखल्यात. हांगाचे रस्ते एकामेकांक काटकोनांत मेळिल्ल्यान पुराय वसती वेगवेगळ्या काटकोन चौकोनांत वांटिल्ली दिसली. घराचीं दारां मुखेल रस्त्याकडेन वचनासतना ल्हान गल्लींकडेन वतात, अशेतरेन बांदल्यांत. हीं घरां भट्टेंत भाजिल्ल्या पक्क्या विटांचीं आसून दर एका घरांत तीन कुडी, एक न्हाणी घर आनी एक रांदचीकूड आसा. कांय घरां दोन माळयांचीं आशिल्लीं.

थंयच्या गटारांची बांदावळ उत्कृश्ट आसून तीं मुखेल गटाराक जोडिल्लीं आसतालीं. हीं सगळीं गटारां विटांनी धांपिल्लीं आसतालीं.

नागरी वसतीच्या घराभायर ११मी. लांब, ७मी. रूंद आनी २.५मी. खोल विटांनी बांदिल्लें न्हाणीघर आसून ताचे भोंवतणी वरांडो आनी कपडे बदलपाक स्वतंत्र कुडी आसात. तेभायर थंय धान्याचो एक व्हड गुदांव, ७१मी. लांब आनी २३मी. रूंद जायत्यो कुडी आशिल्ली इमारत, कितलेशेच खांबे आशिल्लो व्हड मंडप आनी मजुरांच्यो चाळी हीं वास्तू वैशिश्टां उल्लेख करपासारकीं आसात. वसतीचे सात कालखंड जाल्ले

आसले तरी वसतीची रचणूक आनी खाशेलपणां तशातशीं उरल्यांत. हाचेवयल्यान मोहेंजोदडो हांगा शिस्तबध्द आनी वंशपरंपरागत आयिल्ली सत्ता आसूंक जाय, अशें म्हणूं येता. हडप्पा आनी मोहेंजोदडो हीं दोनूय नागरी संस्कृतायेचीं केंद्रां आशिल्ल्यान एकूच सत्तेच्यो त्यो दोन राजधान्यो आशिल्ल्यो, अशें कांय विद्वानांचें मत आसा.

थंय सांपडिल्ल्या मडक्यांचे आकार आनी ताचेवयलें काळया रंगांतलें चित्रकाम हडप्पाभशेनूच आसा. हांगा वेगवेगळे तरेच्यो मुद्रा मेळिल्ल्यो आसात. तांचेर वेगवेगळया प्राण्यांचीं चित्रां, तशेंच गेंड्याभशेन चिखलाच्या प्रदेशांत रावपी जनावरां चित्रित केल्यांत.



मोहेंजोदडो लिपी कोरांतिल्ल्यो मुद्रा

हांगाचे लोक वेगवेगळे भांगराचे अलंकार वापरताले. तेभायर वेगवेगळया मोलादीक फातराचे, स्टिअटाइट आनी फियान्सचे मणी वापरताले. कांय फातरांच्या मणयांचेर धवो वा काळो रंग भरून नक्षी काडिल्ल्याचें मेळ्ळां. तेभायर मातयेचीं तरेकवार खेळणीं आनी मूर्ती मेळ्ळयात. तातुंतलीं कांय खेळणीं अशीं आसात, जातूंत दोरी वा बडी घाल्यार त्या खेळण्याची मान हालोवंक मेळटा. थंय तांब्याचीं शिन्नी, कुऱ्हाड, चाकू, कानवेत, गिरमीट आदी हत्यारां आनी तांब्याचीं आयदनांय वापरांत आशिल्लीं.

मोहेंजोदडो हांगाचे वसतीचो नाश कसो जालो हाचेविशीं विद्वानांत एकमत ना. व्हीलर हाच्या मतान हांगा खूब व्हड कत्तल जाली आसूंक जाय. हांगाच्या जिन्यांनी लेगीत मडी मेळ्ळयांत. ताचेवयल्यान मोहेंजोदडो हांगा अचकीत हल्लो करून तांची कत्तल जाली आसूंक जाय. भूयकांप वा तत्सम सैमीक अरिश्टांवरवीं हांगाचें जिवीत नश्ट जालें आसूं येता अशेंय एकमत आसा.

मोहेंजोदडोच्या कालखंडाविशीं वेगवेगळीं मतां मेळटात. पूण हांगा मेळिल्ल्यो मुद्रा, रंगीत नक्षीकाम केल्ले फियान्सचे मणी, ब्राँझाच्यो कुऱ्हाडी हांचो मध्यउदेंतेंतल्या वेगवेगळया सुवातींच्या उत्खननांत सांपडिल्ल्या पुराव्यांकडेन मेळ घाल्यार मोहेंजोदडोचे संस्कृतीचो काळ इ. स. आदीं तिसरें सहस्त्रक अशें सांगतात.

- कों. वि. सं. मं.

**पूरक नोंद** : हडप्पा.

**मोक्ष** : मुच् = सोडप, मेकळें जावप वा करप ह्या संस्कृत धातुपसून मोक्ष शब्द जाला. तत्त्वगिन्यानाचे नदरेन त्रिविध तापांत भाजपी जीवांनी मुक्त जावप म्हळयार मोक्ष. हिंदू धर्मशास्त्राचें निमाणें लक्ष्य म्हळयार मोक्ष. मनीस परत परत जल्माक येता आनी परत परत मरता. ही जी मनशाचे जिणेंतली अखंड परंपरा आसा, ती मोडून देवा म्हऱ्यांत पावप वा ताचेकडेन एकरूप जावप म्हळयार मोक्ष. हें सगळें जग देवान उत्पन्न केलां. हातूंत मनशाचोय आस्पाव आसा. सैमाची सुरवात जाली म्हळयार जल्म आनी मरण आयलें. जल्माक आयल्या उपरांत केल्ल्या कर्मांक लागून दुसरो जल्म घेवपाची तयारी जाता. जल्म म्हळो की परत मरण हें आयलेंच. अशी ही सारकी जल्म आनी मरण हांची परंपरा चालूच उरता. हे परंपरेंतल्यान मुक्त जावप म्हळयार मोक्ष मेळोवप.

खंयच्याय दुसऱ्या प्राण्याची जीण मेळ्ळी म्हूण हो मोक्ष मेळोवंक येना. तो फकत मनीस जल्माकच मेळोवंक येता. दुसऱ्या जिवांक सारासार बुध्द नाशिल्ल्यान ते फकत ते ते जिणेंतलो भोग घेत रावतात आनी तातुंतल्यान पाप-पुण्याचे भागीदार जातात. ताका लागून तांकां परते परते जल्म घेवंचे पडटात. मनशाक सारासार विचारशक्ती आशिल्ल्यान तो भोगाचो त्याग करून पाप-पुण्याच्या बंधनांतल्यान सुटूं शकता आनी देवाकडे पावूंक शकता, थंयच्यान तो परत केन्नाच ह्या संवसारांत येना. तेन्ना ताच्या जल्म मरणाचो फेरो चुकलो अशें म्हण्टात. हो फेरो चुकलो की तो मोक्षाक पावलो अशें मानतात.

भारतीय तत्त्वगिन्यानाचे नदरेन पळयल्यार जीव हो सत्, चित आनी आनंद रूप जावन आसा. जड प्रकृतीच्या धर्मांक धरून ताका सुखाचो आनी दुख्खाचो भास जाता आनी तातूंत तो बध्द जाता. हाकाच वेदांतांत बंध अशें म्हळां. हो देहाभिमान ना जालो की सगळें जग ईश्वररूप दिसता. हाकाच ब्रह्मस्थिती म्हण्टात आनी तोच मोक्ष आसता. जीव जल्माक येतकच आपले आपूण बध्द जाता. आपूण बध्द ना अशी भावना जेन्ना प्रबळ जाता तेन्ना तो मुक्त जाता. म्हणजे शरिराच्या जाग्यार जें आत्मपण दिसता तें सोडपाक जाय आनी तें आत्मपण आत्म्याच्या म्हळयार देवाच्या जाग्यार मानलें जायत जाल्यार मोक्ष जाला म्हणपाचो. ही स्थिती प्राप्त जाली जाल्यार जगांत सगळेकडे आनंदच आनंद दिसता. पूण मनशाची स्थिती वेगळी आसा. ताका आपली कूड धरून जितले म्हणून आत्मभिन्न पदार्थ दिसतात तांचेर आसक्ती जाता आनी तो तातूंतच सूख मानता. भौतिक सुखांक दसून उरता. हातूंत सुखापरस दुख्खूच चड वांट्याक येता. देखून सूख आनी दुख्ख ह्या दोनय अवस्थांपरस वेगळी अशी जी स्थिती तिकाच मोक्ष म्हण्टात.

संवसारांतल्या सुखदुख्खाचो अणभव घेतकच हातुंतल्यान सुटपाचो विचार जाता. हांगाच्यान मोक्षाचो विचार सुरू जाता. मनीस जगांत येतकच बरीं वायट कर्मां करता. बरीं कर्मां पुण्याची आनी वायट कर्मां पापाची जोड जोडटा. पुण्याक लागून ताका स्वर्ग मेळटा जाल्यार पापाक

लागून ताका नरक मेळटा. ह्या स्वर्ग-नरकाचें फळ भोगून लेगीत ताची सुटका जायना. तो बंधांतल्यान मुक्त जायना. तर ताका केल्ल्या कर्माप्रमाण परतो हे भूंयेचेर जल्म घेवंचो पडटा आनी हें चक्र सारकें चालूच आसता. ह्या संवसारचक्राक वाजेल्ले जीव तातूंतल्यान कायमची सुटका करून घेवपाचें चिंततात. ते मागीर जिज्ञासू जातात. हातूंतल्यान सुटपाचो विचार करतात आनी हांगासून मोक्षाचो विचार सुरू जाता.

- डॉ. अनंत राम भट

**मौन एकादस :** एक जैन व्रत. मार्गशीर्ष शुध्दं एकादशीक हें व्रत करतात. हे तिथीक जर हें व्रत करपाक जालें ना जाल्यार, तें खंयचेय एकादशीक करतात. एकादशीक पुराय दीस मोनेंपण पाळप आनी कडक उपास करप हो ह्या व्रताचो मुखेल विधी आसा. दुवादशीक ह्या व्रताचें उद्यापन करतात.

त्या वेळार पुस्तक, शाई, कागद ह्यो ज्ञानाविशींच्यो इकरा वस्तू वेंचून, त्यो दर एके इकरा हे संख्येंत मुखार दवरून तांची पुजा करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**मौनीमहाराज :** (इ.स.चो १७वो शेंकडो). एक सत्पुरूस. हो अखंड मोनेंपण धरून रावतालो ताका लागून ताका हें नांव मेळळें. मौनीबुवा ह्या नांवानूय ताका वळखतात. ताच्या चरित्राची निश्चित म्हायती मेळना.

कोल्हापूर जिल्ह्यांतल्या पाटगांव हांगा मौनीमहाराजाची समाधी आसा. महाराज पाटगांवाक कसो आयलो हेविशीं म्हायती मेळटा ती अशी- निपाणी-आजरा मार्गाचेर उत्तूर नांवाचें एक वेपारी केंद्र आसा. थंयसावन तो बैलाच्या तांड्यावांगडा पाटगांवांत आयलो आनी थंयच्या सैमाक पळोवन थंयच रावलो.

संत रामदास आनी छत्रपती शिवाजी महाराज हांचेवांगडा मौनीमहाराजाचो संबंद आशिल्लो असो गिरिधरान समर्थप्रतापांत उल्लेख केला. कर्नाटकाचे स्वारीचेर वचचे पयलीं शिवाजी महाराज पाटगांवाक मौनीबुवाक मेळपाक गेल्लो आनी मौनीबुवान महाराजाक प्रसादलेगीत दिल्लो. शिवरायान एकदां गडाचेर सगळ्या संतांक आपयले तेन्ना तातूंत मौनीमहाराज आशिल्लो अशें सांगतात. मामा परमानंदान मौनीमहाराजाचे समाधीचो जिर्णोध्दार केलो.

माघ म्हयन्यांत थंय ताची पुण्यतीथ व्हड दबाज्यान मनयतात. मालवणच्या सिंधुदुर्गांतल्या मंदिराच्या गाभाऱ्याभायर मौनीमहाराजाची मूर्त आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**मौरांव, बारांव तोमाश :** एक पुर्तुगेज विद्वान. ताचें पुराय नांव बरांव, द कुबाँरज्युअ तोमाश मौरांव गार्सेज ई पाल्य. हो जल्मान जरी पुर्तुगेज आसलो तरी ताचें कार्यस्थळ गोंय आसलें. एका पुर्तुगेज घराण्यांत गोंयांत ताचो जल्म जालो. तो सरकारी शिक्षण खात्यांत इन्स्पेक्टरच्या हुद्यार आशिल्लो. कुंभारजुंव्याचो बॅरन अशी सरदारी पदवी पुर्तुगेज सरकारान ताच्या घराण्याक दिल्ली. विद्येची आनी गिन्यानाची ताका आस आशिल्ली. भारतीय संस्कृती, हिंदू धर्म, मराठी भास हांचो ताणें अभ्यास केल्लो. ताका कोंकणीय येताली. ताणें पुर्तुगेज मराठी शब्दकोश तयार केल्लो. हो शब्दकोश हातीबरपाच्या रुपांत लिस्बनच्या सायन्स अकादेमींत अजुनय आसा. हिंदुंवरी किरिस्तांवातय मराठीचो प्रसार जावंचो अशें ताचो मत आशिल्लें. मराठी शिक्षण पुर्तुगेजी वरी सरकाराचेवतीन फुकट दिवंचे म्हणून ताणें यत्न केल्ले.

१८७१ वर्सा ताणें मुंबय वचून मराठी मुद्रणाखातीर एक छापखानो गोंयांत हाडलो. ताणें ताची रायबंदर हांगा आपूण रावता थंय स्थापना केली. ह्या छापखान्यांतल्यान ताणें रोखडेंच 'देशसुधारणेच्छु' हें मासिक आत्माराम पुरुषोत्तम सुखटणकर हाच्या संपादनाखाल सुरू केलें. यशवंत फोंडबा नाईक दणायत आनी रामचंद्र गोविंद वागळे हांणी बरयल्लो 'गोमंतकाचा प्राचीन व अर्वाचीन इतिहास' ताणें उजवाडा हाडला.

बारांवान शिक्षण प्रसाराचे नदरेनय जायतो वापर केल्लो. तशेंच विद्यार्थ्यांक शारीरिक ख्यास्त दिवपाची पद्दतय ताणें बंद केल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**मौर्य राजवंश :** इ.स.प. चवथ्या शेंकड्याच्या शेवटाक (सनपयलीं ३२३ - १८५) मगध देशाचेर राज्य करपी एक व्हड वंश चंद्रगुप्त हो ह्या वंशाचो मुळावो पुरूस आशिल्लो. पोरन्या ग्रंथांनी हाचेविशीं चडशी म्हायती मेळना. कौटिल्य नांवाच्या ब्राह्मणान नंद राजाचो नाश करून चंद्रगुप्त नांवाच्या युवकाक मगधाचे गादयेर बसयलो, इतलेंच कळटा. उपरांतच्या संस्कृत साहित्यांत चंद्रगुप्त हो नंद राजाचो दासीपुत्र आशिल्याचें सांगलां. ती दासी मुरा घराण्यांतली आसली म्हूण चंद्रगुप्ताच्या वंशाक मौर्य हें नांव मेळळें, अशेंय सांगलां. पूण बौध्द साहित्यांत चंद्रगुप्ताचो जल्म क्षत्रिय कुळांत जाल्लो अशें सांगलां.

मौर्य वंशांतल्या राज्यांनी इ.स.प. ३२२ते १८५ ह्या काळांत भारतखंडाच्या चडशा भागाचेर राज्य केलें आनी पयलीचखेप एकछत्री अंमल प्रस्थापित केलें. ह्या काळाक मौर्यकाल अशें म्हण्टात. पयलीं भारतांत महाजनपदां आनी ल्हान ल्हान राज्यां आशिल्लीं. पूण मौर्यांच्या काळांत हांच्या जाग्यार एक व्हड साम्राज्य तयार जालें. नंदा घराण्याचें राज्य फकत उत्तरेक आशिल्लें. ताचो विस्तार करून तें भारतभर पातळपाचें काम मौर्य राजांनी केलें.

मौर्यकाळासंबंदीची म्हायती मुखेलपणान तत्काली वाङ्मय, परकीय भोंवडेकारांचो वृत्तांत, पुरातत्त्वीय अवशेशां वयल्यान मेळटा. पुराणांत कांय मौर्य राजांचो आनी तांचो पराक्रम हांचो उल्लेख आनी वर्णन मेळटा. मौर्यांच्या विशीं म्हायती दिवपी शिलालेखांसारखी साधना चड म्हत्वाची आसा. सम्राट अशोक हाचे साबार कोरांतिल्ले लेख आसात. आयजमेरेन सांपडिल्ले चडशे लेख प्राकृतांतले आसात. कांय ब्राह्मी लिपींत, कांय खरोश्टी आनी कांय अॅरेमाइक लिपींत आसात. तातूंत राजाज्ञा, उपदेशपर धर्माज्ञा, चोल, चेर, पांड्य अशा कांय राज्यांचो तशेंच सुदारणा केल्ल्यांचो उल्लेख मेळटा. कांय शासनाविशींच्या गजालिंचो तशेंच, राजकीय स्थितीचो उल्लेख तातूंत मेळटा. लिखीत साधनांनी मेगॅस्थिनीझ हाचें इंडिका आनी कौटिल्य हाचें अर्थशास्त्र हांकां चड म्हत्व आसा.

नंद राजाच्या दरबारांत चाणक्याचो अपमान जाल्ल्यान कारणान नंद वंशाचो नाश करपाची प्रतिज्ञा ताणें केली. चंद्रगुप्ताक बरें शिक्षण दिवन नंद वंशाचो नाश करपाखातीर तयार केलो. चंद्रगुप्तान व्हड सैन्य उबें करून सुरवेक पंजाब आनी सिंध ह्या प्रदेशांतल्या यवनांचो पराभव करून, थंय आपलें राज्य उबारलें. उपरांत ताणें मगधाचेर घुरी घालून (इ.स.प ३३२) नंदराजाक मारून तो मगधाचे गादयेर बसलो. मुखार कांय वर्सांनी ताणें लागीं लागीं पुराय भारताचेर सार्वभौम सत्तेची स्थापणूक केल्ली. स.प. ३०५ त सेल्यूकस हाणें पंजाबाचेर घुरी घालून तो सिंधुमेरेन पाविल्लो. पूण चंद्रगुप्तान ताका हारावन ताचेकडल्यान कबलात करून घेतली. हे कबलातीवरवीं हेरामेरेनच्या प्रदेशाचेर चंद्रगुप्ताची सत्ता आयली. त्याउपरांत चंद्रगुप्तान दक्षिण भारतांतले साबार प्रदेश घेवन आपलें साम्राज्य वाडयलें. संवसारांतले साबार देश आपले राजदूत मौर्यांच्या दरबारांत धाडपाक लागले. ह्या काळांत मेगॅस्थिनीझ हो सेल्यूकसाचो वकील कांय वर्सां भारतांत रावलो. ताणें चंद्रगुप्ताच्या राज्याचें वर्णन बरोवन दवरलां. ताचे वयल्यान मौर्यांचे राज्यवेवस्थेची आनी सेनादलाविशीं म्हायती मेळटा. चंद्रगुप्तान आपल्या व्हड साम्राज्याचे साबार विभाग करून तांचेर राज्यपाल नेमिल्ले. तो स्वतः मगधाचो राज्यकारभार सांबाळटालो ताचेखातीर ताणें एक सल्लागार मंडळ नेमिल्लें. राजधानी पाटलीपुत्र नगराची वेवस्था पळोवपाखातीर तीस जाणांचें एक मंडळ आशिल्लें. करवसुली, जल्ममरणाच्यो नोंदी, उद्योगधंद्यांचें नियंत्रण, राखणेकाम हांची देखरेख हें मंडळ करतालें. गांवच्या वाठारांची वेवस्था पळोवपाखातीर ग्रामसंस्था आशिल्ल्यो. पांच खेड्यावयल्या अधिकाऱ्याक गोप अशें म्हण्टाले.

चंद्रगुप्ताच्या सैन्यांत आठ हजार रथ, णव हजार हत्ती, तीस हजार घोडे आनी स लक्ष पदाती सैनिक आशिल्ले. चाणक्य हो चंद्रगुप्ताचो महामात्य आशिल्लो. ताच्या आदारान चंद्रगुप्तान आदर्श अशी राज्यवेवस्था निर्माण केल्ली. चंद्रगुप्त मौर्य हाणें आपल्या जिवितांतल्या निमाण्या दिसांनी जैन धर्म आपणायलो आनी तो राजसंन्यास घेवन कर्नाटकांत गेलो.

आपलो पूत बिंदुसार (इ.स.प. ३००-२७३) हाका गादयेर बसोवन चंद्रगुप्त भद्रबाहूवांगडा कर्नाटकांत गेलो. जैन साहित्यांत चंद्रगुप्ताच्या पुताक सिंहसेन अशें म्हळां. पुराणांत ताकाच बिंदूसार हें नांव दिल्लें आसा. ताणें मौर्य साम्राज्य रितसर सांबाळिल्लें. आर्य चाणक्य हो कांय वर्सां हाचोय महामात्य आशिल्लो. आपलो पूत अशोक हाका ताणें अवंतीचो राज्यपाल नेमिल्लो. तेउपरांत अशोक कांय वर्सां तक्षशिला हांगाय राज्यपाल म्हूण रावलो.

अशोक (स.प. २७३-२३६) हाका पुर्विल्ल्या भारतांतलो सगळ्यांत व्हड सम्राट मानतात. तो रागीट आशिल्लो. सुरवेक ताका चंडाशोक अशें म्हण्टाले. गादयेर बसल्या उपरांत चार वर्सांनी ताणें आपलो राज्याभिशेक करून घेतलो.

स.प. २६२त अशोकान कलींग देशाचेर घुरी घालून ताचेर जैत मेळयलें. पूण ह्या झुजांत खूब रक्तपात जाल्लो. दोनूय वटांचे साबार सैनिक मेल्ले. हें पळोवन अशोकाक उपरती जाली आनी ताणें फुडाराक झूज करचोना अशी प्रतिज्ञा केली. तेच अवस्थेंत ताणें बौध्द धर्म आपणायलो. उपरांत अहिंसेचोय पुरस्कार केलो आनी आपली उरिल्ली जीण बौध्द धर्माच्या प्रसाराखातीर ओंपली.

बौध्द धर्माचो प्रसार करपांतूच धर्मप्रसाराखातीर ताणें साबार शिलालेख देशाच्या सगळया भागांत खडपांचेर आनी खांब्याचेर कोरून दवरल्यात. तातुंतले सुमार ३५ शिलालेख सांपडल्यात. त्या शिलालेखांत धर्मतत्त्वां आनी सम्राटाच्यो धर्माज्ञा कोरिल्ल्यो आसात. ताच्या जिविताविशीं खूब म्हायती तातूंत मेळटा. ताणें उबारिल्ले स्तंभ हे गिरेस्त शिल्प कलेन भरिल्ले आसात. ताणें स्तुपूय बांदल्यात.

बौध्द धर्मांत उपराशिल्ल्या साबार वादग्रस्त प्रस्नांचेर भासाभास करपाखातीर अशोकान एक धर्मपरिशद आपयल्ली. हीका तृतीय संगीती अशें म्हण्टाले. तशेंच ताणें लागींच्या हेर देशांनी आपले दूत धाडून बौध्द धर्माचो प्रसार केलो. सिंहलद्वीपांत ताणें पूत महेंद्र आनी चली संघमित्रा हिका धाडिल्ली. ताच्या ह्या कार्याक लागून निमाणें ताका धर्माशोक ह्या नांवांन वळखुपाक लागले.

अशोकान आपल्या राज्याचे चार विभाग केल्ले. उज्जयिनी, तोसली, सुवर्णगिरी आनी तक्षशिल हीं ताचीं मुखेल थळां आशिल्लीं. त्या विभागांचेर ताणें प्रशासक नेमिल्ले, ते राज्यघराण्यांतलेच आशिल्ले. हेर प्रांतांचेर अधिकारी नेमिल्ले. भारतांतले चोळ, पांड्य आनी चेर हीं राज्यां सोडून सबंद भारताचेर ताची सार्वभौम सत्ता आशिल्ली. मंत्रिपरिशदेच्या आदारान तो राज्य कारभार करतालो. ताच्या सबंद साम्राज्यांत एकूच भास आनी एकूच लिपी चालू आशिल्ली अशें म्हण्टात.

अशोकाचो चलो जलौक हाणें काश्मीरांत स्वतंत्र राज्याची स्थापणूक करून कनौजमेरेनचो प्रदेश घेतिल्लो, अशें राजतारांगिनी हातूंत सांगलां. उपरांत गांधार, विदर्भ आनी हेर प्रदेशांत कांय मौर्य राजपुतांनी स्वतंत्र राज्याची स्थापणूक केली.

**शासनवेवस्था :** मेगॅस्थिनीझ हाचें लेखन, अशोकाचे लेख आनी कौटिल्य हाचें अर्थशास्त्र हातूंतल्यान मौर्य शासनाची म्हायती मेळटा. राजा वा सम्राट हो शासन यंत्रणेचो मुखेली आसतालो. तो वंशपरंपरेच्या अधिकारान ह्या पदाचेर येतालो. नवे कायदेकानून करप, तांचो रितसर उपेग करप आनी न्याय दिवप हे सगळे अधिकार राजाकडेन आसताले. राज्याभितर आनी शेजारच्या देशांनी ताचे गुप्तहेर आसताले. तांणी हाडिल्ली म्हायती तो केन्नाय आयकुपाक तयार आसतालो. ह्या कामांत ताका आदार करपाक मंत्रिपरिशद आसताली. परिशदेंतले मंत्री राजाच नेमतालो. प्रादेशिक प्रांतांचे मुखेल अधिकारी, उपशासन अधिकारी, राज्याचे कोशाध्यक्ष, सेनापती, दंडाधिकारी, न्यायाधीश आनी शेतवडीसारक्या खात्यांचे मुखेल अशे सगळे मंत्रिपरिशद नेमताले. खेड्यांत आनी गांवगिऱ्या वाठारांनी पयलीं चलत आयिल्ली पंचायतीसारकी शासनवेवस्था चालूच आशिल्ली. नगरांचो कारभार पळोवपाखातीर नगरपरिशद आसताली. हे परिशदेच्यो स उपसमित्यो आशिल्ल्यो आनी दर एके समितींत पांच सभासद आसताले. पयले समितीकडे उद्देगिक-शिल्प हांचीं कामां आसतालीं. दुसरे समितीकडेन परदेशी नागरिकांच्या देखरेखीचीं कामां आसतालीं. तिसरे समितीकडेन जगनगणनेची नोंद (जल्म-मरणाची नोंद) चवथे समितीकडेन वेपार उदरगतीची वेवस्था आशिल्ली. वजनमाप तपासप आनी मालाच्या दराचेर नदर दवरप हें समितीचें मुखेल काम आशिल्लें. पांचवे समितिकडेन उत्पादन हें खातें आशिल्लें. सवे समितिकडेन विक्रीकर वसूल करपाचें काम आशिल्लें.

सैन्याची वेवस्थाय अशाच स समित्यांकडेन आशिल्ली. घोडदळ, पायदळ, गजदळ, रथांचें दळ, नौदल आनी पुरवण हांचेखातीर एक एक समिती आशिल्ली.

**अर्थीक स्थिती :** लोकांचो मुखेल वेवसाय शेतवड हो आशिल्लो. गंगा-यमुना हें देगण पिकाळ आशिल्लें आनी हेर भागांतूय विंगड विंगड पिकां येतालीं. शेतवडीचे जोडयेक पयलींसावन चलत आयिल्लो पशुपालन वेवसायूय नेटान चलतालो. रानांतलीय पिकावळ बरी आशिल्ली. खणींतल्यान विंगड विंगड धातू आनी हिरे-माणकांय मेळटालीं. ह्या वेवसायांचे जोडयेक कांय प्रमाणांत तांकां जाय अशे आनी तांचेर आदारीत अशे साबार वेवसाय आशिल्ले. शिल्पकारांत मेस्त, धवड, चामार, कुंभार, चितारी-रंगारी, शेट आनी हेर शिल्पकारांचो आस्पाव जातालो. ते भायर नुस्तेंमारी वेवसायय चलतालो. सामान एका जाग्योवयल्यान दुसरेकडेन व्हरपाक बैलगाडयांचो उपेग करताले. सागरी वेपारांचेय साबार उल्लेख मेळटांत. चडसो वेपार अस्तंतेकडच्या देशांकडेन जातालो. बऱ्यांतलो बरो तलम कपडो, मलमल, रस्मी कपडे, अत्तर, मसालो, मोतयां, रत्नां, माणकां हांची निर्यात जाताली.

**कला :** मौर्यकाळांत लाकूड, माती, हतयाचे दांत, पाशाण हांचो उपेग वास्तुकला आनी शिल्पकले खातीर करताले. पूण ह्या काळांत पाशाणशिल्पांचेंय प्रमाण चड आशिल्लें. ह्या काळांतली वास्तुकला ही चडकरून लाकडाची आशिल्ल्यान पाटलिपुत्र हांगाच्या राजवाड्याचे अवशेश चडशे मेळनात. पूण स्तुपांतल्यान मौर्य तेंपावयले शैलिची म्हायती मेळटा. अशोकान उबारिल्ले स्तंभ आनी तांचेवयली कलाकुसर तोखणाय करपासारकी आसा. अशोकाच्या काळांत बौध्द धर्मियांक पवित्र आशिल्ल्या स्थळांनी स्तूप आनी ध्वजस्तंभ उबारिल्ले. चडशा स्तूपांचो नाश जाल्लो आसा. ध्वजस्तंभ हे एकाच पाशाण फातरासावन घडयल्ले आसात. ते वाटकुळे आसून तांची उंचाय सुमार १२ मी. इतली आसा. ह्या स्तंभांच्या माथ्याचेर हत्ती, पाडे, घोडे आनी शींव हांच्यो मूर्ती बसयल्ल्यो आसात. मौर्य कळांतलें चडशें शिल्पकाम बौध्द आनी अवैदिक धर्मपंथांचें आसा. हे कलाकृतींचेर परकियांचे चडकरून इराणी हांचे ठसे उदेल्यात.

अशोकान आपणायल्लो बौध्द धर्म, ताची परिणिती म्हणून वेव्हारात हाडिल्ली अहिंसा, हाचो परिणाम म्हणून वैदिक धर्मियांचें रागणे हांच्या एकत्रीत परिणामांक लागून क्षात्रतेजाकडेन जाल्लें दुर्लक्ष ह्या कारणांक लागून मौर्य साम्राज्याक देंवती कळा लागली अशी कांय इतिहासकारांनी नोंद करून दवरल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**मौलूद शरीफ :** मुसलमानांची एक परब. हे परबेक ईद-इ-मीलाद अशेंय म्हण्टात. हिजरी सनाच्या रबी उल अव्वल ह्या तिसऱ्या म्हयन्याच्या बाराव्या दिसा महंमद पैगंबराचो जल्म जालो, अशें मानतात. त्या निमतान हो दीस आनी सबंद म्हयनो पवित्र मानून हो उत्सव मनयतात.

सुन्नी पंथाचे अनुयायी हो दीस श्रध्देने आनी मोठे उमेदीन पाळटात. शीया आनी वहाबी पंथाचे अनुयायी मात हो उत्सव करीनात.

महंमदाच्या मरणा उपरांत सुमार पांचशें वर्सांनी मेसोपोटेमियांतल्या मसूल नांवाच्या शारांत ताच्या एका अनुयायान हो उत्सव सुरू केलो, अशें म्हण्टात. उपरांत अखलाचो बादशहा अबूस इद मुजफ्फर हाणें इ.स. १२०७ वर्सा हो उत्सव व्हड प्रमाणांत करून ही परंपरा सुरू केली. भारतांत हो उत्सव व्हड दबाज्यान मनयतात. ह्या दिसा रातचे सगळे लोक मशिदींत जमून महंमदाचीं स्तोत्रां आयकतात. हालीं हो उत्सव केन्नाय मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**म्यूलर, पॉल हेरमान :** (जल्म : १२ जानेवारी १८९९, ओल्टन (स्वित्झर्लंड); मरण : १२ ऑक्टोबर १९६५, बाझेल).

नामनेचो स्विस रसायनशास्त्रज्ञ. ताचें सुरवातीचें शिक्षण बाझेल हांगा जालें. १९१६ त तो ड्रायफस अँड कंपनींत प्रयोगशाळेंत सहाय्यक जालो. १९१७ त लोंझा एजी कंपनीचे शास्त्रीय उद्देगीक प्रयोगशाळेंत सहाय्यक रसायनशास्त्रज्ञ म्हूण तो काम करूंक लागलो. हांगा ताका उद्देगीक रसायनशास्त्राचो खूब अणभव मेळ्ळो. १९१८ त मॅट्रिक जातकच १९१९ त पदविका मेळोवन ताणें बाझेल विद्यापिठांत शिक्षण घेतलें आनी १९२५ त त्या विद्यापिठाची रसायनशास्त्राची डॉक्टरेट पदवी मेळयली. त्याच वर्सा बाझेलांतल्या जे. आर्. गायगी एजी हे कंपनींत नोकरेक लागून १९४६ त तो थंयच्या वनस्पती संरक्षक पदार्थांवयल्या विज्ञानीक संशोधनाचो उपसंचालक जालो. १९६१ त तो हे कंपनींतल्यान निवृत्त जालो.

वनस्पतीजन्य रंजकां आनी कातडी कमोवपाखातीर वापरपांत येवपी सैमीक पदार्थ हांचेर संशोधन केलें. १९३५ वर्सा ताणें संश्लेशित संपर्कजन्य कीटकनाशक तयार करपाखातीर संशोधनाक सुरवात केली. चार वर्सां संशोधन करतकच ताका संश्लेशित डी.डी.टी (DDT. - Dichloro Diphenyl Trichloroethane) मेळयलें आनी ताचें स्विस एकस्व (पेटंट) ताणें १९४० त घेतलें. म्यूलर हाच्या ह्या सोदाक लागून हेर कीटकनाशकांच्या सोदाक चालना मेळ्ळी. डी.डी.टी ह्या रसायनीक पदार्थाच्या कितल्याशाच कीटकांवयल्या संपर्कजन्य विशारी परिणामांच्या सोदाखातीर १९४२ वर्साचो नोबॅल पुरस्कार म्यूलर हाका फाव जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**म्यूलर, माक्स :** (जल्म : ६ डिसेंबर १८२३, देसों - उदेंत जर्मनी; मरण : २८ ऑक्टोबर १९००, ऑक्सफर्ड).

नामनेचो मानवतावादी जर्मन प्राच्यविद्यापंडीत. १८४१-४३ ह्या काळांत लाइपसिक विद्यापिठांत संस्कृताचो आनी भाशाशास्त्राचो ताणें अभ्यास केलो. १८४३ त ताणें पीएच्. डी. मेळयली. लाइपसिक हांगा ताका ऋग्वेदाची थोडीभोव वळख जाली. १८४४ त ताणें बर्लिन विद्यापिठांत एक वर्समेरेन फ्रांट्स बोप हाचेकडेन संस्कृताचो आनी शेलिंग हाचेकडेन तत्त्वगिन्यानाचो अभ्यास केलो. १८४५-४६ त फ्रांसांतल्या पॅरिस विद्यापिठांत ब्यूर्नूफच्या हातासकयल ताणें संस्कृताचो अभ्यास केलो. ब्यूर्नूफान ताका सायणभश्यासयत ऋग्वेदाची आवृत्ती तयार करपाखातीर प्रेरणा दिली.

तेवीस वर्सां पिरायेच्या म्यूलरान वेदाभ्यासाचें म्हत्व वळखून ताचेर संशोधन करपाचें थरयलें. तेविशींचीं हातबरपां मेळोवपाखातीर तो लंडनाक गेलो. ताचो इश्ट बनसेन हाच्या यत्नांक लागून ईस्ट इंडिया कंपनीन ऋग्वेद उजवाडावपाची अर्थीक जापसालदारकी घेतली. ऑक्सफर्ड विद्यापिठाच्या मुद्रणालयांत देवनागरी लिपींत सायणभाश्यासयत 'ऋग्वेदसंहिता' छापून घेवपाखातीर तो ऑक्सफर्डाक आयलो. हे आवृत्तीचो पयलो खंड १८४८ त आनी निमाणचो सवो खंड १८७३ त उजवाडाक आयलो. उरिल्ले खंड तयार करपाच्या वावरांत ताका जर्मन पंडीत आउफ्रेश्ट हाचो पालव मेळ्ळो.

१८५० त तो ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत शिकोवपाक लागलो. १८५४ त आर्विल्ल्या भासांचो प्राध्यापक म्हूण ताची नेमणूक जाली. १८६८त तुलनात्मक भाशाशास्त्राच्या प्राध्यापकपदाची सुवात ताचेखातीर तयार केली. भाशाशास्त्र आनी धर्मशास्त्र ह्या विशयांचेरय तो व्याख्यानां दितालो. इंडियन सिव्हिल सर्व्हिसच्या विद्यार्थ्यांकय तो शिकयतालो.

१८७३ त ऋग्वेद भाश्याची पुराय आवृत्ती उजवाडाक आयली. ह्या काळांत तो ब्रिटन सोडून वचूंक सोदतालो. पूण ताणें आंखिल्ली 'Sacred Books of the East' ही वेंचीक पुर्विल्ल्या उदेंतेकडल्या ग्रंथांच्या इंग्लीश अणकाराची येवजण मतींत घेवन ऑक्सफर्ड विद्यापिठान ताची नेमणूक फुडें चालू दवरली. संवसारांतल्या विद्वान जाणकारांचो पालव घेवन ताणें १८७९ ते १९०४ ह्या काळांत म्हत्वाच्या ग्रंथांचो इंग्लीश अणकार पन्नास खंडांत उजवाडावपाचो मोलादीक वावर केलो.

माक्स म्यूलरान बरयल्ले कांय म्हत्वाचे ग्रंथ अशे : Ancient Sanskrit Literature (१८५९), Lectures on the Science of Language (दोन भाग-१८६१, १८६४), Chips From a German Workshop (चार भाग-१८६७, १८७५), *Introduction to Science of* Religion (१८७३), Biographies of Words (१८८८), Gifford Lectures (चार भाग-१८८८-१८९२), Six Systems of Indian Philosophy.

म्यूलर हो भारताचो आनी भारतीय संस्कृतायेचो मोगी आशिल्लो. वेद, दर्शन, धर्मशास्त्र, साहित्य आदी वेगवेगळ्या आंगांच्या संस्कृत अभ्यासाक लागून सात्विक वृत्तीच्या भारतीयांविशीं ताका ओड आशिल्ली. भारतांतलें समकालीन जिवीत पळयतकच आपल्या मनांत तयार जाल्ली प्रतिमा बदलची न्हय म्हूण ताणें भारताक भेट दिलीना. बंगालांतल्या कांय व्हड मनशांकडेन ताचो पत्रवेव्हार चलतालो. ताचे विचार उंचेल्या पांवड्याचे आशिल्ले. जर्मनी आनी भारत हांचे मजगतीं सांस्कृतिक संबंद प्रस्थापित करपाच्या हेतान जर्मन सरकारान भारतांत खूब कडेन माक्स म्यूलर भवनां सुरू केल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**म्यूलर, हेरमान जोसेफ :** (जल्म : २१ डिसेंबर १८९०, न्यूयॉर्क; मरण : ५ एप्रिल १९६७, इंडियानापोलिस).

नामनेचो अमेरिकन आनुवंशिकीविज्ञ. १९०७त ताणें कूपर-ह्यूइट शिश्यवृत्ती मेळयली आनी कोलंबिया विद्यापिठांत शिक्षण घेवन बी. ए. (१९१०), एम्. ए. (१९१२) आनी पीएच.डी. (१९१६) ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. ह्यूस्टन हांगाच्या राइस इन्स्टिट्युटांत १९१५-१८ ह्या काळांत अध्यापनाचें काम करता आसतना ताणें उत्परिवर्तनाविशींचो अभ्यास सुरू केलो. १९१८-२० त तो कोलंबिया विद्यापिठांत आनी उपरांत टेक्सास विद्यापिठांत प्राध्यापक जालो. आनुवंशिकी आनी क्रमविकास (उत्क्रांती) हे ताचे अध्यापनाचे विशय आशिल्ले, तरी उत्परिवर्तन हो ताचो संशोधनाचो विशय आशिल्लो.

१९२१ उपरांत ताणें गुणसुत्रांतल्या जिनांचो आस्पाव आशिल्लो आनुवंशिकते विशींचो भाग सगळ्या जिविताक कारण आसता आनी अजूनय तो सगळ्या जिविताचें मूळ आसता, हो सिध्दांत मांडलो.

१९१८-२६ ह्या काळांत ताणें जिनांच्या उत्स्फूर्त उत्परिवर्तनाचीं (Mutation) मुखेल तत्त्वां मांडलीं. १९२६ चे अखेरेक क्ष-किरणजन्य जीन उत्परिवर्तन आनी गुणसुत्रांतले बदल हांचेविशींचो भक्कम पुरावो ताणें एकठांय केलो आनी १९२७ त ह्या संशोधनाविशींचो निबंद उजवाडायलो. ह्या ताच्या सोदाउपरांत संशोधनाचे नवे मार्ग उक्ते जाले आनी फुडल्या कांय वर्सांत रेणवीय जीवविज्ञान ह्या नव्या फांट्याचो उदय जालो. ह्या नव्या शास्त्राचो म्यूलर हाका जनक मानतात.

म्यूलर हाणें १९३२-३३ त जर्मनींत बर्लिनांत गुगेनहाइम फेलो, १९३३-३७ त लेनिनग्राड हांगाच्या रशियन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसच्या इन्स्टिट्यूट ऑफ जेनेटिक्स हे संस्थेंत आनुवंशिकीतज्ञ आनी ते उपरांत १९३७-४० त ब्रिटनांतल्या एडिंबरो विद्यापिठाच्या 'इन्स्टिट्यूट ऑफ ॲनिमल जेनेटिक्स' हे संस्थेंत संशोधक म्हूण काम करतकच तो अमेरिकेक परतलो आनी १९४०-४५त ॲम्हर्स्ट कॉलेजांत प्राध्यापक आनी १९४५ उपरांत इंडियाना विद्यापिठांत प्राणीविज्ञानाचो प्राध्यापक म्हूण काम आनी संशोधन केलें.

क्ष-किरणांक लागून गुणसुत्रांत बदल जावन उत्परिवर्तन जाता, ह्या ताच्या सोदाखातीर ताका १९४६ च्या शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी ह्या विशयाखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो. ताका आनीक कितलींशींच पदकां आनी भोवमान फाव जाल्यात.

ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं - Radiation Biology (१९४९), The Mechanism of Mendelian Heredity (१९१५), Out of the night- A Biologist's View of the future (१९३५), Genetics, Medicine and Man (१९४७), Studies in Genetics (१९६३).

- कों. वि. सं. मं.

**म्यूलिकेन, रॉबर्ट सँडर्सन :** (जल्म ७ जून १८९६, न्यूबरीपोर्ट-मॅसॅचूसेट्स).

नामनेचो अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ आनी रसायनशास्त्रज्ञ. ताणें १९१७ त मॅसॅचूसेट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजी हे संस्थेंतल्यान बी. एस्. आनी १९२१ त शिकागो विद्यापिठांतल्यान पीएच. डी. ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. १९२१-२५ ह्या काळांत तो शिकागो विद्यापिठांत आनी हार्वर्ड विद्यापिठांत नॅशनल रिसर्च काउन्सिलचो फेलो आशिल्लो. ते उपरांत न्यूयॉर्क विद्यापिठाच्या वॉशिंग्टन स्क्वेअर कॉलेजांत भौतिकशास्त्राचो पालवी प्राध्यापक (१९२६-२८), शिकागो विद्यापिठांत भौतिकशास्त्राचो सहयोगी प्राध्यापक (१९२८-३१) आनी प्राध्यापक (१९३१-६१) ह्या पदांचेर ताणें काम केलें. हेखेरीज ताणें शिकागो विद्यापिठांत अर्नेस्ट डेविटबर्टन खाशेली सेवा प्राध्यापक (१९५६-६१) आनी भैतिकशास्त्र आनी रसायनशास्त्राचो खाशेली सेवा प्राध्यापक (१९६१ सावन) तशेंच फ्लॉरिडा राज्य विद्यापिठांत रसायनीक भौतिकशास्त्राचो खाशेलो संशोधन प्राध्यापक (१९६१-७१) म्हणून ताणें काम केलें. दुसऱ्या महाझुजाकाळांत ताणें शिकागो विद्यापिठांत प्लुटोनियम प्रकल्पांत 'संपादन कार्य आनी म्हायती' विभागाचो संचालक म्हूण काम केलें.

म्यूलिकेन हाणें १९२२ त समस्थानिकांच्या (isotopes) तोच पूण द्रव्यमानांक (mass number) वेगळो आशिल्ल्या त्याच मूलद्रव्याच्या प्रकारांच्या विलगीकरणाखातीर बाश्पीभवनी केंद्रोत्सारणाची पद्दत सुचयली. तेउपरांत ताणें रेणवीय वर्णपटाचें स्पश्टीकरण आनी रेणुंच्या इलेक्ट्रॉनीय अवस्थांविशीं पुंज सिध्दांतांचो उपेग ह्या विशयांचेर संशोधन केलें. फ्रेडरिक हुंड हाचे वांगडा ताणें रसायनीक बंधाविशींचो रेणवीय परिकक्ष सिध्दांत विकसित केलो. रेणुंतले इलेक्ट्रॉन तातुंतल्या सगळ्या अणुकेंद्रांनी निर्माण केल्ल्या क्षेत्रांत हालचाल करीत आसतात, हे संकल्पनेचेर हो सिध्दांत आदारिल्लो आसा. रेणवीय परिकक्ष निर्धारित करपाखातीर ताणें आणवीय परिकक्षांचो रेखिक संयोग करपाची पद्दत सांगली. रसायनीक बंधांची ऊर्जा आणवीय परिकक्षांच्या एकामेकांच्या आवाठाइतली आसता, हें ताणें दाखोवन दिलें

रेणवीय परिकक्ष पद्दतीचो उपेग करून ताणें रसायनीक बंध आनी रेणुंची इलेक्ट्रॉनीय संरचना हांचेविशीं केल्ल्या मोलादीक वावराखातीर ताका १९६६ चो रसायनशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो. ताका आनीकूय हेर कितलेशेच भोवमान फाव जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**म्हणीं :** लोकवेदाचो एक मौखीक साहित्यप्रकार. यमक आनी अनुप्रास सादून, उपमा, अलंकार घालून गिन्यान भरून घेतिल्ली सुटसुटीत अशी काव्यात्मक वाक्यरचना. कांय भाशांनी म्हणींक वेदासमान मानिल्ली

आसा. कन्नड भाशेंत जाका म्हणीचो अर्थ समजता ताका वेद समजता अशें म्हणपाची चाल आसा. अशे तरेन सुटसुटीतपण, साहित्य सौंदर्य आनी गिन्यान प्रकटीकरण अशा तीन गजालींचो संगम जाल्लो परंपरीक असो मौखीक गद्यपद्यमय साहित्यप्रकार.

लोकवेदाच्या हेर प्रकारांप्रमाण म्हणींचो अमूक असो कर्तो नासलो तरी कदिम काळांत एक व्यक्ती वा व्यक्तीसमुहान घडयल्ल्यो ह्यो म्हणी परंपरेन एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन चलत आयल्यात. खंयचोतरी उपदेश, कसलीतरी देख, कोणाकतरी मार्गदर्शन वा शिटकावणी करपाच्या उद्देशान त्या त्या प्रसंगाप्रमाण तोंडांतल्यान भायर पडिल्ले उत्स्फुर्त उद्‌गार हें म्हणीचें उगमस्थान आसा. अशे तरेन दर एके म्हणी फाटल्यान काळानुरूप, थळानुरूप अशी काणी, घडणूक वा प्रसंग आसा. विचारवंत, साधुसंत तशेंच हेर समाजीक फुडारी हांच्या वचनांक काळांतरान म्हणींचें रूप येता. तेचपरी संस्कृत सुभाषितांच्यो म्हणी म्हूण वापर करप जाता.

म्हणींचो कर्तो कोण आसा हें सांगप जरी कठीण आसलें तरी, जाचेकडल्यान ह्यो म्हणीं घडोवप जाल्यात ताका साहित्याचें तशेंच वेव्हाराचें आनी मनीस सभावाचें गिन्यान आसुंकूच जाय. तेचपरी समाजसुदारणेफाटली ताची कळकळ म्हणींतल्यान दिसून येता आनी म्हणून कोणा एका तेंपार घडयल्ल्यो ह्यो म्हणीं आजय तितल्याच प्रभाविपणान लोकांचे जिबेर घोळटात.

कांय आडवाद सोडले जाल्यार म्हणींतल्यान मनीस समाजाक नितीमुल्यांची शिकवण दिल्ली दिश्टी पडटा. सत्य, असत्य, पाप, पुण्य ह्या विशयांचेर मार्गदर्शन करून मनीस जातीक नैतिक आचरण करपाची देख ह्या म्हणींतल्यान प्रतीत जाता. ह्यो म्हणी म्हळ्यार निव्वळ साहित्यिक वळी नासून जिविताच्या सगळ्या आंगांक स्पर्श करपी, मनीस कुळयेक आपली जीण सदाचारी तशेंच सुखी घडोवपाची तांक आशिल्ली सुटसुटीत आनी सोंपी अशी गिन्यानाची अभिव्यक्ती आसा.

वाक्‌प्रचार हो म्हणींक लागीं आशिल्लो एक प्रकार. वाक्‌प्रचार हो म्हणीप्रमाण स्वंयपुर्ण नासता तर ताचो भावार्त सुटो आसता आनी तो संदर्भ धरून आसता. म्हणीं हो गांवगिऱ्या लोकांचो मैखिक वाङमय प्रकार आशिल्ल्यान कांय म्हणींनी अश्लील उपमा आनी दृश्टांत दिल्ले दिश्टी पडटात. कांय म्हणीं काळा थळानुसार फाटीं पडल्यात. तर कांय म्हणीं नव्यान निर्माण जाल्यात. बऱ्योचशो म्हणीं वेगवेगळ्या वाठारांत समांतर वापरिल्ल्यो दिसतात. वाठाराप्रमाण तातुंतली उपमा बदल्ली तरी आशय एकच उरता. अशो कांय समांतर कोंकणी म्हणीः 'शेड्या धांव वंयेमेरेन' अशाच आशयाची केरळांत एक म्हण आसा - 'सुंगटा उडी धोंपरा मेरेन. २) 'पोक्या पणसाक पाक चड' हे म्हणींक समांतर अशी पंजाबी आनी काश्मिरी म्हण आसा ती अशी - 'रिकामें आयदन वाजना' ३) 'शेणिल्लें गोरूं करमळेच्या तळयांत' - हे म्हणीक समांतर अशी म्हण हिंदी धरून कांय भाशांनी मेळटा. ती अशी 'शेणिल्लो पीर मशीदींत.' ४) मोडक्या खुरसाक चेपें कोण काडटलो - ह्या आशयाची 'गरिबींत घरकान्न लेगीत मान दिना' अशी तमिळ म्हण आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**म्हयनो :** कालमान मेजपाच्या मापाचो एक घटक. ३० दीस आनी ३० राती काळ दाखोवपी वर्साचो बारावो वांटो. सादारणपणान ह्या घटकाक चंद्राचे गतीचो संबंद उरता. संस्कृतांतलो मास, फार्सींतलो माह आनी इंग्लिशींतलो मंथ ह्या म्हयनो संबोधित करपी शब्दांचो अर्थ चंद्र असो आसा. धर्तरेची एक फेरी पुराय करपाक चंद्राक लागपी काळ म्हळ्यार म्हयनो अशी म्हयन्याची सदळ व्याख्या करूं येता. पूण ही व्याख्या चांद्र कालगणनेपुरतीच शिमित उरता. सौर-कालगणनेंत चंद्राच्या जाग्यार सुर्याक संबोधित करप जाता. म्हयन्याच्या पुर्वार्धाक शुक्ल वा शुध्द पक्ष आनी उत्तरार्धाक कृष्ण वा वद्य पक्ष म्हण्टात.

सद्याक चांद्र, चांद्र-सौर आनी सौर अशो तीन तरेच्यो कालगणना वापरांत आसल्यो तरी सुरवेक कालगणना करपाखातीर चांद्रमास वापरताले. सद्या सर्रासपणान वापरांत आशिल्लें ग्रेगरियन कॅलेंडरांतले बारा म्हयने वर्साचो कालखंड दाखयतात, आनी तांची कालमर्यादा खगोल वेव्हारापरस कृत्रिम रचनेचेर आदारून आसा. भारतांतले हिंदू लोक धर्मीक कृत्यां तिथीप्रमाण करतात आशिल्ल्यान म्हयन्याची कालगणना चंद्रमासाक धरून करप जाता. जंय चांद्रमासाचो वापर करप जाता थंय ताची सौरवर्साकडे सांगड घालप जाता.

**नक्षत्र मास :** आश्विनी नक्षत्रांत चंद्रान प्रवेश करतकच सत्तावीस नक्षत्रां भोगून परतून आश्विनींत येवपा मेरेनचो जो म्हयनो, ताका नक्षत्रमास म्हण्टात. हो काळ दिसाचो वा रातीचो केन्नाय सोंपता. हाचो उपगे फकत शास्त्रज्ञ करतात. वेव्हारांत मात नक्षत्र मास वापरीनात. सूर्य आनी ग्रह हांच्या योगान चंद्राचे गतीचेर घडपी विक्षोभाक लागून ह्या काळांत ७ वरांमेरेन फरक पडूं येता. हो म्हयनो सांवासिक म्हयन्यापरस सुमार दोन दिसांनी ल्हान आसता.

**सांवासिक मास :** सूर्य-चंद्र हांची एक फावट युती जातकच म्हळ्यार एके उमाशेसावन फुडले उमाशेमेरेनच्या काळाक सांवासिक मास वा चांद्रमास अशें म्हण्टात. एके उमाशेसावन दुसरे उमाशेमेरेनच्या काळाक 'अमान्त मास' आनी एके पुनवेसावन दुसरे पुनवेमेरेनच्या काळाक 'पौर्णिमान्त मास' वा 'गौणमास' अशें म्हण्टात. शुक्ल पक्ष हो दोनूय प्रकारांच्या पद्दतींत सारको आसता. परंपरागत पंचांगांतले चैत्र, वैशाख हे म्हयने हेच प्रकारचे आसतात. तांचीं हीं नांवां नक्षत्रांवयल्यान पडल्यांत. सादारणपणान पुनवेच्या अदमासाक चंद्र ज्या नक्षत्रांत आसता, त्या नक्षत्रावयल्यान म्हयन्याक नांव मेळ्ळां. ह्या म्हयन्यांक मधु, माधव, शुक्र, शुचि, नभ, नभस्य, इष, ऊर्ज, सह, सहस्य, तप आनी तपस्य

अशीं वैदिक नांवां आसात.

चंद्र आनी धर्तरी हांच्या कक्षांचे विवृत्तेक लागून सांवासिक म्हयन्याच्या काळांत १३ वरांमेरेन फरक पडूं येता. हो म्हयनो नक्षत्र म्हयन्यापरस सुमार दोन दिसांनी व्हड आसता, कारण एके उमाशेक चंद्र-सूर्य ज्या नक्षत्रांत आसतात, थंय चंद्र परतून येमेरेन सूर्य त्या नक्षत्राचे उदेंतेक सुमार २७ अंश सरकल्लो आसता. तेखातीर सुर्याक मेळोवन घेवपाक चंद्राक आनीक सुमार दोन दीस लागतात.

**पातिक मास :** चंद्र कक्षेवयलो राहू हांगा चंद्र फाटोफाट दोन फावटी येवपाखातीर लागपी काळाक पातिक, पाताश्रित वा ग्राहणिक मास म्हण्टात. ह्या म्हयन्याचो उपेग गिराणाविशींच्या संदर्भांत जाता. राहूक उदेंत-अस्तंत अशी उरफाटी गती आशिल्ल्यान पातिक मास नक्षत्र मासापरस मात्सो ल्हान आसता.

**सांपातिक मास :** एका संपाताकडे (equinox) चंद्र युतींत येतकच रोखडोच फुडें तशे युतींत येवपाक चंद्राक जो काळ लागता, ताका सांपातिक मास म्हण्टात. ह्या म्हयन्याकूय उदेंत-अस्तंत अशी उरफाटी गती आशिल्ल्यान हो म्हयनो नक्षत्र मासापरस फकत सात सेकंदांनी ल्हान आसता.

**सौर कालगणना :** १२ सांवासिक वा चांद्र मासांच्या एका वर्सांत ३५४ दीस येतात. पूण सौर वर्स ३१५$^{१}/_{४}$ दिसांचें आसता. ह्या दोगांयचो मेळ घालपाखातीर अदीक म्हयन्याची वा क्षयमासांची येवजण केल्ली आसता.

**सौरमास :** बारा सायन राशींप्रमाण सुर्याचीं १२ राशि-संक्रमणां जातात. एका संक्रमणासावन दुसऱ्या संक्रमणामेरेनच्या काळाक 'सौरमास' म्हण्टात. सुर्याची गती बदलत आशिल्ल्यान ह्या दर एका संक्रमणाचो म्हळयार म्हयन्याचो काळ सारकोच नासता. कांय देशांनी सौरमास पाळटात आनी तांकां मेष, वृषभ अशीं राशींचीं नांवां वेगवेगळ्या भाशांतल्यान आसात.

**सावन मास :** सुर्योदयासावन दुसऱ्या दिसाच्या सुर्योदयामेरेनच्या काळाक सावन दीस म्हण्टात आनी अशा तीस दिसांचो काळ म्हळयार 'सावन मास' आसा.

**कॅलेंडर म्हयनो :** ग्रेगरियन कॅलेंडरांतले जानेवारी, फेब्रुवारी ह्या म्हयन्यांक कॅलेंडर म्हयने म्हण्टात. हातुंतलो दर एक म्हयनो २८ ते ३१दीस अशा कमी-चड काळाचो आसता. वेव्हारिक सोयीखातीर हे म्हयने वापरतात. तांचो चंद्राकडे संबंद नासता. जानेवारीचे सुरवेक सुर्याची गती चडांत चड आनी जुलयचे सुरवेक उणी आशिल्ल्यान दोनूय स म्हयन्यांचे दीस सारके नासतात.

वेदांत चांद्रमासाचो उल्लेख आसून कालगणनेंत पयलीं चांद्रमास वापरताले. खाल्डियन आनी ईजिप्शियन लोक चांद्रमास वापरताले. ज्यू, तुर्क, इस्लामी लोक तशेंच हेर कांय देशांनी आजुनूय चांद्रमास वापरतात.

विंगड विंगड धर्मपंथांतलीं म्हयन्यांचीं नांवां अशीं आसात- जैन म्हयने- (चैत्र, वैशाख ह्या क्रमान) वसंत, कुसुमसंभव, निदाघ, दानविरोधी, अभिनंद, सुप्रतिष्ठा, विजया, प्रतिवर्धन, श्रीयान, शिव, शिशिर आनी हैमवान.

**पारशी म्हयने :** फरवर्दी, आर्दिबेहस्त, खुर्दाद, तीर, अमरदाद, शेहरेवार, मेहेर, आबान, आजूर, दय, बहमन, इस्पिंदर.

**मुसलमानी म्हयने :** मोहरम, सफ्फर, रबी-उल्- अव्वल, रबी-उल्- आखिर, जुमादी-उल् - अव्वल, जुमादी - उल् - आखर, रजब, शाबान, रमजान, शव्वाल, जीकाद आनी जिल् - हिज्ज.

**खिस्ती म्हयने :** जानेवारी, फेब्रुवारी, मार्च, एप्रिल, मे, जून, जुलय, ऑगस्ट, सप्टेंबर, ऑक्टोबर, नोव्हेंबर, डिसेंबर.

**हिंदू म्हयने :** चैत्र, वैशाख, ज्येष्ठ, आशाढ, श्रावण, भाद्रपद, आश्वीन, कार्तीक, मार्गशीर्ष, पौष, माघ, फाल्गुन.

- कों. वि. सं. मं.

**म्हसोबा :** महाराष्ट्रांतली एक क्षुद्र देवता. म्हसोबा हें नांव महिषासुराचो अपभ्रंश आसुंये अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. म्हसोबा ही मुळची अनार्य देवता आसुंये अशेंय मत कांय जाणकारांनी मांडलां.

ग्रामदेवता वा लोकदेवता म्हणूनूय म्हसोबाचो उल्लेख करतात. एकाद्रो वांटकुळो वा लांबसो फातर घेवन, ताका शेंदूर लायतात आनी एके सुवातेर पुजलो म्हणजे तो म्हसोबा जालो. महाराष्ट्रांत दर एका गांवाचे शीमेचेर, शेताच्या बांदार वा गांवांतले एके मुखेल सुवातेर ह्या म्हसोबाक पुजतात.

गांवांत कसलीय रोग-पीडा जाली जाल्यार म्हसोबाक बोकडो, कोंबो वा नाल्ल ओंपतात. तेचप्रमाण ताचे वर्सुकी जात्रेकूय ताका कोंबो, बोकडो बळी दितात. म्हसोबाक भुतांचो राजा मानतात. वेताळाइतलेंच ताचें सामर्थ्य आसता अशी श्रध्दा आसा.

महाराष्ट्राच्या कांय वाठारांनी तेलाचो घाणो सुरू करचेपयलीं म्हसोबाची स्थापणूक करतात. तशें केल्ल्यान चड तेल मेळटा अशी समजूत आसा. हेर घाणेवाल्याक म्हसोबा भाड्यान दिवपाचीय चाल आशिल्ली.

म्हसोबाच्यो जात्रो भरतात. ठाणे जिल्ह्यांतल्या मुरबाड तालुक्यांत म्हसे नांवाच्या गांवांत पौषांतले पुनवेक व्हडली जात्रा भरता.

- कों. वि. सं. मं.

**म्हाइंभट :** मराठींतलो आद्य ग्रंथकार आनी चरित्रकार. ताचो जल्म मराठवाड्यांतल्या सराळे ह्या गांवांत जालो. ताचो मामा गणपती आपेयो हाचेकडेनच ताचें संस्कृत अध्ययन जालें.

मामाची धूव देआंबा हिचेकडे ताणें लग्न केलें. मामाचे सांगणेवयल्यान ताणें डोमेग्राम हांगा वचून महानुभाव पंथाचो संस्थापक श्रीचक्रधर हाची भेट घेतली. ताचे निरुपणशैलीन म्हाइंभट प्रभावित जालो. उपरांत रिधपूर (ऋध्दिपूर) हांगा वचून ताणें चक्रधराचो गुरू गोविंदप्रभु हाचेकडल्यान महानुभाव पंथाची दिक्षा घेतली. आपली सगळी जीण ताणें पंथाचे सेवेक ओंपली.

सुमार १२७८ त म्हाइंभटान 'लीळाचरित्र' हो आपलो पयलो ग्रंथ बरोवन पुराय केलो. म्हाइंभटाचो हो पयलो ग्रंथ आनी मराठी भाशेंतलो पयलो चरित्रग्रंथ म्हूण ह्या ग्रंथाक खूब म्हत्व आसा. ह्या ग्रंथाचे पुर्वार्ध आनी उत्तरार्ध अशे दोन वांटे आसात. ह्या ग्रंथाची भास सादी, सोंपी आनी सरळ आसा. ह्या ग्रंथांत ताणें आपल्या गुरूच्यो (चक्रधराच्यो) यादी आनी लीळा एकठांयल्यात. ह्यो लीळा एकठांय करपाक म्हाइंभटाक, महानुभाव पंथाचो पयलो आचार्य श्रीनागदेवाचार्य वा भटोबास हाचो खूब आदार मेळ्ळो. लोकांक उपदेश करचेपयलीं म्हाइंभट एकटोच भोंवडी करतालो. त्या यादींचोय ताणें ह्या ग्रंथाच्या एका भागांत आस्पाव केला.

'सिध्दांतसूत्रपाठ' आनी 'दृष्टांतपाठ' ह्या ग्रंथांची निर्मितीय 'लीळाचरित्र' ह्या ग्रंथांतल्यानूच जाली.

'गोविंदप्रभुचरित्र' वा 'ऋध्दिपूरचरित्र' हो म्हाइंभटाचो दुसरो ग्रंथ. सुमार १२८८ त रचिल्ल्या ह्या ग्रंथांत 'गुंडमराउळ' वा गोविंदप्रभु ह्या महानुभावांच्या पंचकृष्णांतल्या एका अवताराच्यो लीळा आयल्यात. तेचप्रमाण म्हाइंभटाच्यो 'जतिचा दशकू' ह्या नांवाच्यो धा आरती आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**म्हांबरो, अना :** (जल्म : ४ ऑक्टोबर १९३८, रायबंदर, गोंय).



नामनेचो कोंकणी लेखक. ताचें पुराय नांव अरविंद नारायण म्हांबरो पूण अना म्हांबरो ह्या नांवानूच ताची चड नामना आसा.

अनाचें मुळावें शिकप रायबंदरा जालें. वास्को आनी पणजे माध्यमिक शिक्षण जातकच बेळगांव आनी मुंबय हांगा ताणें कॉलेज शिक्षण घेतलें. १९६४ वर्सा तत्त्वज्ञान हो विशय घेवन ताणें मुंबय विद्यापिठाची एम. ए. पदवी घेतली. उपरांत नवी दिल्लीचे नॅशनल आर्कीव्हज ऑफ इंडिया हे संस्थेंत आनी लंडनच्या विद्यापिठांत पुरातत्त्वविद्येचें शिक्षण घेतलें.

१९६३ -६५ ह्या काळांत ताणें मुंबयच्या आकाशवाणी केंद्राचेर स्टाफ आर्टिस्ट म्हूण काम केलें. उपरांत १९६५-६७ ह्या काळांत ताणें कीर्ती कॉलेज, मुंबय हांगा अध्यापक म्हूण काम केलें. १९६७-७० ह्या काळांत पत्रकारितेचो वेवसाय करतकच 'टाटा इकोनोमीक कन्सल्टन्सी सर्विसेस' हे कंपनींत, रिसर्च असिस्टंट, ज्युनियर इकोनोमिस्ट, इकोनोमिस्ट कन्सल्टंट ह्या पदांचेर १९७०-८७ मेरेन काम केलें. १९८८-९० ह्या काळांत ताणें जे. आर. डी. टाटा हाच्या चरित्राखातीर संशोधन केलें. १९९० वर्सासावन, सद्या तो Tata Central Archieves हातूंत Principal Archival Officer म्हूण काम पळयता.

कोंकणी, मराठी आनी इंग्लीश भाशांनी ताणें साहित्य निर्मिती केल्या. तशेंच नेमाळीं आनी आकाशवाणी ह्या माध्यमांनीय ताचें बरोवप जालां. पिरायेच्या तेरा-चवदा वर्सांचेर ताणें बरोवपाक सुरवात केली. कॉलेजांत आसतना ताणें बरयल्लीं कांय नाटकांय रंगमाचयेर आयलीं. पूण ताचें 'घुमचे कटर घुमऽऽ' हें कोंकणींतलें पयलें उजवाडा आयिल्लें पुस्तक आसा. ह्या पुस्तकाक १९६४ वर्सा, गोंय कला अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. ह्या कवितांच्या पुस्तकांत भुरग्यांक देखदेण्यो कविता आसात.

गोंयचे संस्कृतायेचें दर्शन घडोवपी ललित लेखांचें 'गोंयची अस्मिताय' हें ताचें दुसरें पुस्तक. ताचें तिसरें पुस्तक 'पणजी आतां म्हातारी जाल्या' ह्या पुस्तकाक १९८५ वर्सा साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जालो. तशेंच 'प्रसादाफूल', 'स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा' हीं ताणें संपादीत केल्लीं नामनेचीं पुस्तकां आसात. 'गजालीचें नाटक' हें ताणें अपजेन अियोनेस्को हाच्या फ्रेंच नाटकाचो केल्लो अणकार आसा. तेभायर ताणें 'घर नाशिल्लो घरकार', 'त्या दिसाची एक गजाल', 'मरतलो घरच्यांक वळखना' ह्यो ताणें आकाशवाणीखातीर बरयल्ल्यो एकांकी आसात.

अनाक साहित्य अकादेमीच्या पुरस्कारावांगडाच गोवा कला अकादेमीचो, कोंकणी भाशा मंडळ (गोंय) चो आनी महाराष्ट्र सरकाराचो पुरस्कार मेळ्ळा.

ताणें गोवा कोंकणी अकादमी तशेंच साहित्य अकादमींत कांय काळ मंडळाचो वांगडी म्हूण काम केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**म्हाझूज दुसरें :** १९३९ ते १९४५ ह्या काळांत एकवटीत राश्ट्रां (मुखेलपणान-जर्मनी, इटली आनी जपान) आनी दोस्त राश्ट्रां (मुखेलपणान - ग्रेट ब्रिटन, फ्रांस, अमेरिका, सोविएत युनियन आनी चीन) हांच्यांत जाल्लें झूज. एकवटीत राश्ट्राचे मुखेली अँडोल्फ हिटलर, बॅनिटो मुसोलिनी आनी हिदेकी तोजो हांणी हुकूमशाय पद्दत आपणावन लोकशाय पद्दत आनी कम्युनिस्ट चळवळ मोडून उडोवन आपल्या साम्राज्याचो विस्तार आनी तें चड आक्रमक करचेखातीर हें झूज झगडले. पूण निमाणेकडेन ह्या तिगांयनी आपल्यावांगडा आपल्या देशाचोय पराभव करून घेतलो.

दुसरें म्हाझूज हें पयल्या म्हाझुजापरस चड व्यापक आनी संहारक आशिल्लें. ह्या झुजांत जमनीप्रमाण मळबांत आनी उदकांतूय व्हड संघर्श जाले. झुजांत पयलेच खेप अणुबाँबचो वापर जावन फुडें अणुबाँब युग सुरू जालें. दुसऱ्या म्हाझुजाचो सगळयांत म्हत्वाचो परिणाम म्हळयार संयुक्त राश्ट्रांची स्थापना.

चडशा इतिहासकारांच्या मतान दुसऱ्या म्हाझुजाचीं बियां पयल्या म्हाझुजांतूच पडिल्लीं. पयल्या म्हाझुजाउपरांत पॅरिस शांतता कबलातीवेळार जैतिवंत राश्ट्रांची जर्मनीक खूब अपमानकारक वागणूक दिल्ली. तशेंच नुकसान भरपाय म्हूण जर्मनीक व्हड रक्कम मेजची पडली. जैतिवंत राश्ट्रांनी तांचीं साम्राज्यां आपसांत वाटून घेतिल्लीं. हाका लागून तें राश्ट्र सूडान पेटिल्लें. झुजाउपरांतची अर्थीक मंदी, म्हारगाय आनी बेकारीवाड हांकां लागून जर्मनीची भौशिक स्थितीय इबाडिल्ली. अशा तंग वातावरणांत १९२३त हिटलरान नाझी पक्षाची स्थापणूक करून म्हारगायेक आळो घालपाचें, तरणाट्यांक काम दिवपाचें आनी वर्सायल्स कबलातीवेळार जाल्ल्या अपमानाचो सूड घेवपाचें आश्वासन जर्मन लोकांक दिलें. हाका लागून जर्मन लोकांनी ताची हुकूमशाय मानून घेतली.

मुसोलिनीन १९२२ त इटलींत फॅसिस्ट पक्षाची स्थापणूक करून थंय आपली हुकूमशाय लागू केली. पयल्या म्हाझुजांत जैत मेळून लेगीत फ्रँच आनी ब्रिटिशांनी तांकां फावो तो वांटो दिलो ना म्हूण इटलियन तांचो तिरस्कार करताले. जाल्यार रशियेंत लेनिना उपरांत जोसफ स्टॅलीन हो कम्युनिस्ट राश्ट्राचो एकमेव हुकूमशाहा जालो. साप्प उदेंतेकडेन पयल्या म्हाझुजांत जैतिवंत जाल्ल्या जपानान आपलें विस्तारवादी धोरण चालूच दवरिल्लें. पॅसिफीक प्रदेशांत आपलो शेक बसोवपाच्या हावेसान ताणें अमेरिकेकडेन दुस्मानकाय केली.

१९२९ त संवसारीक मंदीच्या काळांत नाझीन जर्मन विधिमंडळांत आपलो शेक बसयलो. जानेवारी १९३३त हिटलरान राश्ट्राचीं सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. उपरांत ल्हव ल्हव अत्याधुनिक शस्त्र सामुग्री एकठांय करून सैन्यप्रमाणांत खूब वाड केली. आपलें विस्तारवादी धोरण चालीक लायतना सुरवेक मार्च १९३८ त ऑस्ट्रियेचेर घुरी घालून तें आपल्या शेकातळा व्हेलें. ह्या वेळार ताका ऑस्ट्रियेकडसून व्हडलोसो विरोध जालोना. हाका लागून हिटलराचें मनोबल वाडोवन ताणें मार्च १९३९ त झेकोस्लावाकियेचर घुरी घालून तें काबीज केलें. हिटलराच्या ह्या हालचालिंचो धाक घेवन ब्रिटीश आनी फ्रांस परतून एकठांय आयले. जर्मनीन पोलंडाचेर घुरी घाल्यार दोनूय राश्ट्रां एकवटीत जावन जर्मनीआड झूज उबारपाची तांणी कबलात केली. हाका प्रतिउत्तर म्हूण हिटलरान रशियेकडेन कबलात केली. उपरांत १ सप्टेंबर १९३९ दिसा जर्मनीन पोलंडाचेर घुरी घालतकूच, थरिल्याप्रमाण ब्रिटन आनी फ्रांसान जर्मनीआड झूज उबारलें. अशे रितीन दुसरें म्हाझूज सुरू जालें. जर्मनीचे सैनिकी डावेपच कुशळ आनी क्रियाशील आशिल्ल्यान रोकडोच तांणी पोलंडाचो अस्तंत भाग हातासलो. जाल्यार हिटलराकडेन केल्ले कबलातीचो फायदो घेवन स्टॅलिनान पोलंडाचो उदेंत भाग हातासलो. उपरांत ताणें इस्टोनिया, लॅटविया आनी लिथुआनिया हे बाल्टीक प्रदेशूय सोविएत युनियनाक जोडले. पयल्या म्हाझुजाप्रमाण दुसऱ्या म्हाझुजांतूय बेल्जियमान तटस्थतायेचें धोरण आपणायलें. पूण जर्मन सैन्य बेल्जियमांत रिगून थंयच्यान तांणी फ्रांसाचेर घुरी घाली. फ्रांस सैन्य शरण आयल्याउपरांत नाझी सैन्यान नेदरलँड्स, डॅनमार्क आनी नॉर्वे हीं राश्ट्रां हातासलीं. उपरांत हिटलरान आपली मोहीम इंग्लंडाकडेन वळयली. जर्मनीच्या वायुदलान लंडन शाराचेर एकसारके बाँबहल्ले केले. पूण ब्रिटनाचो प्रधानमंत्री विंस्टन चर्चील हाणें आपल्या लोकांचें मनोबल वाडोवन जर्मनीआड झूज चालूच दवरलें. ह्या वेळार ब्रिटनाक अमेरिकेचो व्हड आदार मेळ्ळो. कांय म्हयने एकसारके बाँबहल्ले करून लेगीत ब्रिटन शरण येना हें पळोवन हिटलरान आपली मोहीम रशियेकडेन वळयली.

जर्मनी आनी ब्रिटन हांच्यांत व्हड झूज चालू आसतनाच इटलीन आफ्रिका खंडांत ब्रिटीश साम्राज्याआड मोहीम उबारिल्ली. सुरवेक इटली सैन्यान इथिओपीया आनी ब्रिटीश सोमालीलँड हे प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडले. उपरांत इजिप्त प्रदेशूय हातासलो. पूण ब्रिटिशांनी ऑस्ट्रेलिया, न्यूझीलँड, भारत, दक्षिण आफ्रिका आनी हेर वसणुकांतल्यान सैन्य धाडून इटली सैन्याचो आफ्रिकेंत पराभव केलो.

बाल्कन प्रदेशांत हिटलरान बल्गेरिया, हंगेरी आनी रुमानिया हांकां बळजबरेन आपलेवटेन करून घेतिल्ले. पूण १९४१ त जेन्ना युगोस्लावियेन हिटलरावटेन झगडपाक न्हयकार दिल्लो तेन्ना हिटलरान ताचेर घुरी घालून तो प्रदेश हातासलो. इटलीनूय नाझी सैन्याच्या आदारान ब्रिटिशांच्या शेकातळा आशिल्ल्या ग्रीस प्रदेशाचेर जैत मेळयलें.

हिटलर कम्युनिस्ट रशियेक आपलो सदांच व्हडलो दुस्मान समजतालो. पूण झुजाच्या सुरवेच्या काळांत रशियेक झुजासावन पयस दवरपाखातीर हिटलरान स्टॅलिनाकडेन तात्पुरती कबलात केल्ली. १९४१ ब्रिटन शरण येना तें पळोवन हिटलरान आपली मोहीम रशियेचेर वळयली. जर्मन सैन्यान लेनीनग्राड, मॉस्को आनी वोल्गा अशा तीन वेगवेगळया दिकांतल्यान रशियेचेर मारो सुरू केलो. सुरवेक जर्मनीक यशूय मेळ्ळें.

पूण उपरांत रशियन सैन्यान आनी लोकांनी मेळून दुस्मानाक उपेगी पडपी चडशो वस्तू मोडून उडयल्यो वा नाश केल्यो. तशेंच नेटाच्या पावसीक जाका लागून जर्मनीचे रणगाडे निकामी जाले आनी उपरांत सुरू जाल्ल्या कडक शियाळ्याक लागून लाखांनी जर्मन सैन्यांक मरण आयलें.

पयल्या म्हाझुजांत जैत मेळ्ळया उपरांत जपानान आपलें विस्तारवादी धोरण आनीक खर केलें. १९३० मेरेन जपानाचीं चडशीं राजकीय सुत्रां लश्करी अधिकारांच्या हातांत गेली. १९३१त जपानान चिनाचो मंचुरीया हो प्रदेश हातासलो. १९३८ मेरेन जपानान चिनाचो चडसो उदेंत प्रदेश आपल्या शेकातळा व्हेलो. १९४१त जनरल हिदेकी तोजो जपानचो प्रधानमंत्री जालो. ताणें सबंद उदेंत आशिया जपानच्या शेकातळा हाडपाचें थारावन, एकवटीत राश्ट्रांच्या जोडपावलान दोस्त राश्ट्रांआड झूज उबारलें. पॅसिफीक प्रदेशांतल्यान अमेरिकेक धावडावन थंय जापानी साम्राज्य प्रस्थापीत करप हो जनरल तोजोचो मुखेल उद्देश आशिल्लो. डिसेंबर १९४१ त जपानी विमानांनी पर्ल हार्बर ह्या अमेरिकी नाविक दळाचेर हल्लो करतकूच अमेरिकेनूय जपानाआड झूज उबारलें. अशे रितीन अमेरिकेन दुसऱ्या म्हाझुजांत पावल दवरलें. झुजांत उपेगी पडपी सामुग्री एकठांय करचेखातीर जपानान आग्नेय आशिया, फिलीपीन्स, फ्रँच इंडोचीन, डच ईस्ट इंडिज आनी ब्रिटीश मलाया बर्मा आनी हाँगकाँग ह्या प्रदेशांचेर घुरी घाली.

१९४२ त उदेंत युरोपांत सोविएत सैन्याक नाझी सैन्याक आडावपाक यश मेळ्ळें. उपरांत १९४३ त तांणी स्टॅलिनग्राड हांगा नाझी सैन्याचेर व्हड जैत जोडलें. ह्याच काळांत दोस्त राश्ट्रांनी उत्तर आफ्रिकेंतूय नाझीचेर व्हड जैत मेळयलें. १९४३ त तांणी इटली सैन्याचोय पराभव केलो.

अमेरिकेन दुसऱ्या म्हाझुजांत पावल दवरल्या उपरांत चर्चील (ब्रिटन), रुसवेल्ट (अमेरिका) आनी स्टॅलीन (रशिया) हे खूब वेळा एकठांय येवन तांणी दुस्मानांआड झगडपाखातीर कांय डावपेच रचले वा आपसांत कबलाती केल्यो. तातुंतल्यो वॉशिंग्टन कबलात (डिसेंबर १९४१), ॲटलांटीक चार्टर (ऑगस्ट १९४१) मोरोक्को कबलात (१९४३), तेहरान कबलात (१९४४) आनी याल्टा कबलात १९४५ ह्यो चड म्हत्वाच्यो. याल्टा कबलाती उपरांत दोन म्हयन्यांनीच म्हळयार एप्रिल १९४५ त रुसवेल्टाक मरण आयलें.

उत्तर आफ्रिकेंतल्यान जर्मन आनी इटली सैन्याचो पराभव केल्या उपरांत १९४३ त दोस्त संघान सिसीलीचेर घुरी घालून थंयच्यानूय जर्मन सैन्याक धावंडावन घाले. २५ जुलय १९४३ दिसा इटली लोकांनी मुसोलिनीक सत्तेभायरो करुन ताका बंदखणींत दवरलो. उपरांत फिल्ड मार्शल पिएट्रो बादोग्लीओ इटलिचो नवो प्रधानमंत्री जालो. ताणें दोस्त संघाकडेन कबलात करून सप्टेंबर १९४३ त दोस्त संघाच्या सैन्याक शरण गेले. १९४४ त दोस्त राश्ट्राचें सैन्य उत्तर फ्रांसांत रिगोवन ताणें नाझी सैन्याचो पराभव केलो. उपरांत १९४५ चे सुरवेक दोस्त राश्ट्राच्या सैन्यान जर्मनीचेर चारूय दिकांनी घुरी घाली. ब्रिटीश आनी कॅनडियन सैन्यान जर्मनचो उत्तर भाग घेतलो. अमेरिकी आनी फ्रँच सैन्यान जर्मनीचो अस्तंत आनी मध्य भाग हातासलो जाल्यार रशियेन जर्मनच्या उदेंत भागाचेर आनी बर्लिनाचेर जैत मेळयलें. उपरांत जर्मनीचें चडशें सैन्य दोस्त राश्ट्रांच्या सैन्याक शरण गेल्ल्यान ३० एप्रिल १९४३ दिसा हिटलरान आत्महत्त्या केली.

डिसेंबर ८,१९४१ दिसा जपानी विमानांनी अमेरिकी शेकातळा आशिल्ल्या पर्ल हार्बराचेर बाँब घाल्याउपरांत तांकां प्रतिउत्तर म्हूण अमेरिकेन जपानच्या टोकयो शाराचेर बाँब हल्ले केले. उपरांत जपानान अमेरिकी शेकातळा आशिल्ले दक्षिण पॅसिफीक दर्यांतले कांय जुंवे हातासले. १९४२ त मिडवे जुंव्याचेर अमेरिकन जपानी नाविक दळाचेर व्हड जैत मेळयलें. उपरांत दोस्त राश्ट्राच्या सैन्यान जपानच्या शेकातळा आशिल्ल्या फिलिपीन्स, चीन, बर्मा, सिंगापूर आनी हेर प्रदेशांचेर घुरी घालून ते हातासले. जर्मनी शरण गेल्याउपरांत लेगीत पॅसिफीक प्रदेशांत जपान आनी अमेरिका हांच्यांत झूज चालू आशिल्लें. उपरांत अमेरिकेचो नवो अध्यक्ष ट्रुमन हाणें जपानाचेर अणुबाँब घालपाचो हुकूम दिलो. ६ ऑगस्ट १९४५ ह्या दिशा अमेरिकेन पयलो अणुबाँब हिरोशिमा शाराचेर, जाल्यार दुसरो अणुबाँब ९ ऑगस्ट १९४५ दिसा नागासकी शाराचेर उडयलो. उपरांत जपानान शरणागती आपणायतकूच दुसरें म्हाझूज काबार जालें.

**हिंदुस्थान आनी दुसरें म्हाझूज** : दुसऱ्या म्हाझुजांतलो हिंदुस्थानाचो सहभाग सगळे नदरेन म्हत्वाचो थारलो. म्हाझुजाने हिंदी सैन्यान घेतिल्लो सक्रिय वाटो आनी अर्थीक आदार हांचेवरवीं हिंदुस्थानाच्या स्वातंत्र्य झुजाक सुमाराभायर उर्बा मेळ्ळी आनी ताचो प्रभाव भारताची सुटका करून घेवपांत उपेगी थरलो.

झूज काळांत भारतांतल्या राजकीय फुडाऱ्यांक फॅसिस्ट आनी नाझी प्रणालीचो नाश करपाचें म्हत्त्व कळिल्लें. देखून हिंदुस्थानान ह्या झुजांत भाग घेवचो म्हूण जवाहरलाल नेहरू सारख्या फुडाऱ्यांक दिसतालें. पूण हो आदार दितना हिंदुस्थानाच्यो राजकीय आकांक्षा आनी उद्दिश्टां, तशेंच हिंदुस्थानाची सहभागांतली सुवात दोस्त राश्ट्रांचे बरोबरीन आसूंक जाय असो हिंदी फुडाऱ्यांचो आग्रो आशिल्लो. आझाद हिंद सेना जरी ब्रिटिशां आड झुजली तरी सुटकेझुजाच्या वावरांत तिचोय हातभार लागिल्लो.

दुसऱ्या म्हाझुजांत हिंदुस्थानान पुराय तरेन वांटो घेतिल्ल्यान तशेंच मनीसबळ, अर्थीक आनी उद्देगीक बाबी हातुंतल्यान हिंदी सेनेचें हिंदीकरण जालें आनी तातुंतल्यान फुडाराच्या स्वतंत्र भारताच्या राश्ट्रीय संरक्षक सेनेचें मुळावण घालपांत आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**म्हाझूज पयलें :** ऑगस्ट १९१४ ते नोव्हेंबर १९१८ ह्या काळांत युरोपी मध्यवर्ती पंगड आनी दोस्त राष्ट्रीय पंगड हांच्यांत जाल्लें झूज. मध्यवर्ती राष्ट्रीय पंगडांत जर्मनी, ऑस्ट्रिया-हंगेरी, उपरांत नोव्हेंबर १९१४ त, तुर्कस्तान आनी ऑक्टोबर १९१५ त बल्गेरियेचो आस्पाव जालो. जाल्यार दोस्त राष्ट्रीय पंगडांत रशिया, फ्रांस, ग्रेट ब्रिटन, इटली, रुमानिया आनी अमेरिकेचो आस्पाव आसलो. सुरवेक अमेरिकेन तटस्थ भुमिका आपणायल्ली, पूण १९१७ त तो देश दोस्त राष्ट्रांक सामील जालो. हें झूज खूब व्यापक आनी संहारक आसलें. तशेंच ह्या झुजाचे वायट परिणाम प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्षपणान संवसारांतल्या सगळ्या देशांनी अणभवले. देखून ह्या झुजाक जागतिक झूज अशेंय म्हळां. कांय इतिहासकारांच्या मतान ह्या झुजांतलो खरो संघर्ष बळिश्ट जर्मनी आनी हेर गिरेस्त युरोपी राष्ट्रांभितर आशिल्लो. विस्तारवाद, राष्ट्रीय भावनेचो उगम, सैनिकी युती, सशस्त्रीकरणाची वाड तशेंच, राजकीय आनी अर्थीक सर्त हीं पयलें म्हाझूज घडोवन येवपा फाटलीं कांय मुखेल कारणां.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणेमेरेन जर्मनीची राजकीय, भौशिक आनी अर्थीक मळार खूब उदरगत जाल्ली. सशस्त्र सैनिकांच्या बळग्यार विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन जर्मनीन आपणायल्ल्या विस्तारवादाचो भंय रशिया, फ्रांस आनी ग्रेट ब्रिटन हांकांय आशिल्लो. आपलें विस्तारीत वसणुकेचें साम्राज्य राखून दवरचेखातीर जर्मनीक आडावपाची तांकां गरज आसली. देखून १९१४ त ऑस्ट्रीया-सर्बियेच्या राजकीय वादांत जेन्ना जर्मनीन आपलो तेंको ऑस्ट्रियेक दिलो, तेन्ना रशिया, ब्रिटन आनी फ्रांसान सर्बियेक आदार केलो. २८ जून १९१८ दिसा सर्बियेच्या उग्रवाद्यान ऑस्ट्रिया-हंगेरीच्या आर्चड्युकाची हत्त्या केली. हें निमित्य धरून, ऑस्ट्रियेन २८ जुलय दिसा सर्बियेआड झूज उबारलें. उपरांत जर्मनीन सर्बियेक आदार दिवपी रशियेचेर १ ऑगस्ट दिसा आनी फ्रांसाचेर ३ ऑगस्ट दिसा झूज उबारलें. ४ ऑगस्ट १९१४ दिसा जर्मनीन तटस्थ आशिल्ल्या बेल्जियमाचेर घुरी घालून ताचेर आपलो शेक बसयलो. हाका लागून ब्रिटनान जर्मनीआड झूज उबारलें उपरांत जपान आनी इटली हीं राष्ट्रांय जर्मनीआड झूजपाक लागलीं. झुजाच्या सुरवेच्या काळांत ब्रिटीश आनी फ्रांस सैन्याक मध्यवर्ती पंगडाक आडावपाक यश मेळ्ळें. पूण उपरांत जर्मनीन पोलंड, लिथुआनीया आनी सर्बिया हीं राष्ट्रां आपल्या शेकातळा हाडलीं. १९१६ त दोस्त राष्ट्रांनी आपलें चडशें सैन्य एकवटीत करून अस्तंत हद्दींतल्यान जर्मन सैन्याचेर घुरी घाली. पूण जर्मनीन ती परतून उडयली. ह्याच तेंपार जर्मनीन आपल्या यु- पाणबुडीच्या आदारान ब्रिटिशांचें आरमार निकामी करपाचे यत्न केले. तातूंत ताका खूब प्रमाणांत यशय मेळ्ळें. जर्मनीन बुडयल्ल्या ब्रिटीश प्रवासी तारवांत अमेरिकेच्याय शेंकड्यांनी लोकांक मरण आयलें. उपरांत अमेरिकेन हेविशीं जर्मनीक शिटकावणी दिवन लेगीत जर्मनीन आपलें यु- पाणबुडीचें झूज चालू दवरलें. देखून एप्रिल १९१७ त अमेरिकेन जर्मनीआड झूज उबारलें.

रशियेंत, फेब्रुवारी १९१७ त झार निकोलस हाका सत्ते भायरो करून अलेक्झांडर कॅरंस्की हाच्या फुडारपणाखाल प्रांतिक सरकार सत्तेर आयलें. ताणेंय जर्मनीआड झूज चालू दवरलें. कॅरंस्की हो लोकशाय पंगडाचो मुखेली आशिल्ल्यान अमेरिकेचो अध्यक्ष विल्सन हाणेंय ताका आपलो तेंको दिल्लो. पूण जर्मनीन रशियेक झुजांतल्यान भायर काडचेखातीर लेनीनाक आदार करून, ताच्या फुडारपणाखाल रशियेंत बोलशेवीक क्रांती घडोवन हाडली. बोलशेवीक पक्ष सत्तेर आयल्यार रशिया झुजांतल्यान भायर सरतली अशें आश्वासन लेनीनान जर्मनीक दिल्लें. देखून थरिल्ले प्रमाण ऑक्टोबर १९१७ त रशिया झुजांतल्यान भायर सरून, तांणी जर्मनीकडेन ब्रेस्ट-लिटोवस्क कबलात केली.

अमेरिका झुजांत देंवल्या उपरांत, तिच्या आदारान दोस्त राष्ट्रांनी मध्यवर्ती पंगडाच्या सैन्याचेर हार घालपाक सुरवात केली. सप्टेंबर १९१८ मेरेन जर्मन सैन्याचो पुरायपणान पराभव जाल्ल्यान तांणी अमेरिकेचो अध्यक्ष विड्रॉ विल्सन हांणी मांडिल्ली १४ कलमी शांतताय कबलात मान्य करून घेतली.

जैतिवंत राश्ट्रां १९१९ त जर्मनी आनी ऑस्ट्रीयेक ख्यास्त दिवन, शांतता घडोवन हाडचेखातीर पॅरिसाक एकठांय आयलीं. थंय वर्सायलस कबलाती प्रमाण जर्मनीक जाल्यार सँट जार्मायन कबलाती प्रमाण ऑस्ट्रियेक लुकसाण भरपाय म्हूण जैतिवंताक व्हड रक्कम दिवची पडली. जर्मनीक आपलें सैन्य खूब प्रमाणांत उणें करचें पडलें. तशेंच तांकां आपले कांय प्रांत आनी वसणुकोय जैतिवंताक दिवच्यो पडल्यो. कांय इतिहासकारांच्या मतांप्रमाण ही कबलात खूबच कठोर आशिल्ली. फुडाराक हेच कबलातीक लागून दुसरें म्हाझूज घडलें.

अमेरिकेचो अध्यक्ष वुडॉ विल्सन आनी युरोपी फुडाऱ्यांमदीं मतभेद आसले. अध्यक्ष विल्सनाच्या मताप्रमाण पॅटिस शांतता कबलातीवरवीं संवसारांत लोकशाय प्रणाली घट्ट करप आनी 'लिग ऑफ नॅशन' हे संस्थेची थापणूक करून संवसारांतले सगळे प्रस्न शांततापूर्वक सोडोवप. ताची लीग ऑफ नॅशन ही कल्पना ब्रिटन आनी फ्रांसान मानून घेतली. पूण खुद्द अमेरिकन सॅनॅटांक ती अमान्य जाली. देखून उपरांत १९२०त लिग ऑफ नॅशन ही संस्था अमेरिकेच्या सहभागाबगर अस्तित्वांत आयली.

पयलें म्हाझूज आदल्या झुजांपरस खूब व्यापक आनी संहारक आशिल्लें. ह्या झुजांत लागीं लागीं एक कोटी सैनिकांक मरण आयलें. जाल्यार सुमार २१ दशलक्ष लोक जखमी जाले. ह्या झुजांत सुमार ३३७ बिलियन अमेरिकी डॉलर्स खर्च आयलो. ह्या झुजांत वांटो घेतिल्ल्या तशेंच हेर तटस्थ राश्ट्रांचीय अर्थीक स्थिती इबाडिल्ली. झुजा उपरांत

कांय युरोपी देशांत हुकूमशाय अस्तित्वांत आयली. जर्मनी, ऑस्ट्रिया, हंगेरी, तुर्कस्तान, रशिया ह्या राश्ट्रांचीं साम्राज्यां झुजाउपरांत लुप्त जावन नवीं राश्ट्रां निर्माण जालीं. झेकोस्लाव्हाकिया, युगोस्लावीया, फिनलँड, इस्थेनिया, लाटवीया, पोलंड हीं राश्ट्रां अस्तित्वांत आयलीं. पयल्या म्हाझुजाचो मुखेल परिणाम म्हळयार लिग ऑफ नॅशनची स्थापणूक.

**हिंदुस्थान आनी पयलें म्हाझूज :** ब्रिटिशांचे सत्तेखाल आशिल्ल्या हिंदुस्थानान पयल्या म्हाझुजाक दोन तरेन आदार दिलो- १) अर्थीक, २) झुजारी मनीसबळ.

१ मार्च १९१७ ह्या दिसा हिंदी झूज सामग्री समिती स्थापन करपांत आयली. हे समितीन हिंदुस्थानाच्या उद्देगीक विकासाचे नदरेन हिंदुस्थानांत उद्देगधंदे आनी उत्पादन हांचो विकास सादपाचें म्हत्वाचें कार्य केलें. ह्या झुजाक लागून हिंदुस्थानाच्या उद्देगीक विकास कार्याक मुळावण पडलें. हाचेभायर रेल्वेचें अदमासपत्रक सादारण अदमासपत्रकापसून वेगळें करपांत आयिल्ल्यान दळणवळण वेवस्थेच्या विकासाकूय गती मेळ्ळी. ब्रिटनांत झुजाक लागून ज्यो अर्थीक आनी हेर अडचणी निर्माण जाल्यो आनी तांच्या निवारणाखातीर जीं धोरणां, येवजण्यो आनी कार्यवाही करपांत आयली, ताचें प्रतिबिंब हिंदुस्थानाच्या राजकर्त्यांच्या आचार विचारणांत दिसून येवपाक लागलें. झूजकाळांत, हिंदुस्थानाची राखण वेवस्था परिपूर्ण नाशिल्ली. हिंदुस्थान सरकारान १९१९ त इशर समिती स्थापन केली. हे समितीन १९२० वर्सा हिंदी सेना सुदारपाची सुचोवणी केली. लोकमान्य टिळकान हिंदुस्थानाची राखण वेवस्था, हिंदी सेना, वायुसेनेचें आधुनिक काळांतलें म्हत्व आनी संवसारीक राश्ट्रमंडळांतली हिदुस्थानाची सुवात हाचेर आपले विचार आनी मतां मांडलीं. ताचें प्रत्यंतर हिंदुस्थान सरकारान केल्ले सेना सुदारणेंत दिसून येता. ब्रिटीश राजसत्तेक झूजकाळांत सगळे तरेचो आदार दिवपाक महात्मा गांधी, जीना आनी लोकमान्य टिळकान तशेंच हेर ल्हान-व्हड फुडाऱ्यांनी एकमत करून ते प्रमाण कार्य केलें. काँग्रेसीचे थारावूय ह्या सहभागाक अनुकूल आशिल्ले. ह्या झूजकाळांत इंडियन नॅशनल काँग्रेसीन आपल्या अधिवेशनांत संमत केल्ल्या जायत्या कमिशनांत हिंदी लोकांचो आस्पाव, लश्करी आनी आरमारी महाविद्यालयां, हिंदी स्वयंसेवी दलाची पुर्नघटना, हत्यारांचो कायदो आनी हिंदुस्थान संरक्षण कायदो, तशेंच १८१८ तली बंगालच्या तिसऱ्या रेग्युलेशनची अंमलबाजावणी हेविशीं थाराव आशिल्ले.

- कों. वि. सं. मं.

**म्हादळें :** मातयेपसून तयार केल्लें एक वाद्य. हें मातयेचें वाद्य आशिल्ल्यान तें कुमाराकडल्यान घडयतात.

ह्या वाद्याक दोन तोंडां आसतात आनी आकारान तें मृदंगासारकें आसता. हें दोनूय वटेनच्यान वाजयतात. घुमटाच्या तोंडार चामडें रेवडायतात तशें हाच्या दोनूय तोंडांचेर गाराचें चामडें रेवडायतात. पयलीं म्हादळें उज्याकडे धरून गरम करतात आनी मागीर पखवाजाचो आवाज बरो येवंचो म्हूण जशें पीठ लायतात, तशेंच म्हादळें बरें वाजचें म्हूण ताचे एके वटेनच्या चामड्याक भाताचें शीत आनी तणाचो गोबोर एकठांय करून लायतात. म्हादळें दोनूय हातांनी वाजयतात.

-कों. वि. सं. मं.

**म्हापसा :** बार्देस तालुक्यांतलें मुखेल शार आनी गोंयांतलें एक प्रसिध्द वेपारी केंद्र. तें शार बार्देस तालु-क्याचें शासकीय केंद्र आसून ताचो आस्पाव १५°२५'३०" उत्तर अक्षांश आनी ७३°४८'४५" उदेंत रेखांश हांचेमदीं जाता.

त्या शारा-भोंवतणी गिरवडे (गिरी), पर्रा, शिवोली, कामुर्ली, कोलवाळे, थिवी, हळदोणे हे गांव आसात. तशेंच कळंगूट, बागा, हणजूण, वागातोर ह्यो गोंयांतल्यो प्रसिद्द दर्यावेळो म्हापसा शाराक लागीं आसात.



शंभर वर्सां पयलीचें म्हापशेचें पुलीस स्टेशन आनी कपेल.

म्हापसा नांवाची उत्पत्ती सांगतात ती अशी, 'माप' म्हळयार जोख (measure) आनी 'सा' म्हळयार भरप. आदल्या तेंपार कड्डण जोखपा खातीर मापांचो (पड, पायली, सोलगें) उपेग करताले. म्हापशांत आदल्या तेंपारसावन कड्डणाची खूब विक्री जाताली हें ह्या शब्दावयल्यान सिध्द जाता. कांय लोक त्या शाराचो उल्लेख 'म्हापीशें' असोय करतात. म्हापसा शारांत पावलो म्हण्टकूच थंयच्या दुकानांची वा वस्तुंची सजावट पळोवन, तांचें मोल चड आसून लेगीन त्यो वस्तू घेवपाक लोक भुल्लूसतात (पीशे जातात). वयर दिल्ल्या दोनूय शब्दांवयल्यान आदल्या काळासावन म्हापसा शाराक वेपारी केंद्र म्हूण म्हत्व प्राप्त जाल्याचें सिध्द जाता.

आदल्या तेंपार म्हापसा बाजारपेठ, उत्तरेक आशिल्ल्या दोंगुल्ल्यांच्या मुळसांत आशिल्ली. पुर्तुगेजांनी बार्देस तालुको आपल्या शेकातळा व्हेल्या उपरांत बार्देस तालुक्याचें शासकीय केंद्र म्हापशांत उबारलें. मागीर शाराचो विस्तार वाडोवपाखातीर पुर्तुगेजांनी भोंवतणचे शेतकी जमनिचो उपेग केलो. भविश्य काळांतल्यो गजाली दोळयांमुखार दवरून तांणी नवे बाजारपेठेची रचणूक केल्ली. मडक्यांचो बाजार, भाजयेचो बाजार,

नुस्त्याचो बाजार, कपड्यांचो बाजार, भुसारी बाजार अशी दुकानांची विभागणी केल्ली. ते रचणुकेक लागून म्हापसा बाजारपेठेक एक वेपारी पेठेची शीस्त आसा. हांगा सप्तकाचो बाजार शुक्रारा दिसा भरता. त्या दिसा खूब सामानाची विक्री जाता. तातूंत शेतकी उत्पादनाचोच चड वांटो आसता. त्या दिसा भोंवतणच्या गांवांतले लोक आपल्या शेतांनी वा भाटांनी जावपी जिन्नस बाजारांत हाडून विकतात आनी तांच्या आठवड्याच्या वा म्हयन्याच्या पुरुमेंताखातीर लागपी वस्तू ते घेवन वतात. सद्या म्हापसा बाजारादिसाचो थाटमाट मुखेलपणान पर्यटकांक आकर्शक करपाखातीर आसता.



आधुनिक म्हापसा

महामार्गाचे देगेक आशिल्लें बोडगेश्वराचें देवूळ हें म्हापसा शारांतलें प्रसिद्द देवूळ. तें म्हापसा शाराचे नैऋत्येक आसून, देवळा भोंवतणच्या वाठाराक बोडगिणी म्हण्टात. दत्त मंदिर, हनुमान मंदिर, सातेरी, लक्ष्मी-नारायण हीं शारांतलीं हेर म्हत्वाचीं देवळां. तशेंच शाराचे उदेंतेक मिलाग्रीस सायबिणीची प्रसिद्द चर्च आसा (Nossa Senhora de Milagres). १५९४ त पुर्तुगेजांनी ते बांदिल्ली. १७१९ त ती मोडून नवी बांदली. १८३८ त उजो लागून तिचो नाश जाल्ल्यान ती परतून बांदून काडली. दर वर्सा इस्टराच्या उपरांत येवपी दुसऱ्या सोमारा तिचें फेस्त भरता. त्या दिसा हजारांनी किरिस्तांव तशेंच हिंदू भाविक तिचें दर्शन घेतात. हिंदू लोक तिका शिरगांवचे लयराईची भयण मानतात. तिच्या फेस्ता दिसा लयराई देवी तिका तेलाची भेटवण धाडटा.

सेंट झेवियर कॉलेज, वि. एन्. एस्. बांदेकर कॉलेज, सारस्वत कॉलेज हीं शारांतलीं तशेंच बार्देस तालुक्यांतलीं मुखेल म्हाविद्यालयां. शारांत हॉस्पीटल आनी टि. बी. सेंटर आसा. पेडे कॉम्पलेक्स हें शारांतलें मुखेल खेळामैदान.

- कों. वि. सं. मं.

**म्हार :** एक जात. भारतांतली ही जात मूळ राजस्थानांतल्या मारवाड प्रांतांतली. उपरांत ही जात गुजरातसावन महाराष्ट्र, कोंकण आनी मध्यप्रदेश हांगा स्थायीक जाली, अशें जाणकारांचें मत आसा.

म्हार ही जात प्रोटो-ऑस्ट्रालॉईड वंशीय आसा अशें काय संशोधक मानतात. तशेंच ही जात आर्यपूर्वकालीन आसून म्हार ह्या शब्दाची व्युत्पत्ती कांय अभ्यासकांनी केल्या ती अशी- महाहारी (महा + आहारी) म्हळयार खूब खावपी, मृतहारिन्-मेल्लीं जनावरां उखलून व्हरपीं. तशेंच ह्या लोकांक अत्यंज, अतिशूद्र, भूमिपुत्र वा धरणीचे पूत, भूयाल, चोखामेळा, धेड, डोंब, हुलसाव, काठीवाले, म्हेत्रे, मिराशी, परवरी, तराळ, वेसकर अशींय नांवां आसात.

हे लोक सादारणपणान ऊंच, बळिश्ट आनी वर्णान काळे सावळे आसतात. तांच्यांत अबने, औट, बालकांबळे, गोपाळ, हेडशी, जोगवी, कडू, कासरे, मुरळी, पुलार, सोम वा सोमवंशी अशो पोटजाती आसात. सोमवंशी हे आपली उत्पत्ती चंद्रापसून मानतात. गोपाळ हे म्हार साधू आसतात. कोंकणांतल्या सिंधुदूर्ग, रत्नागिरी जिल्ह्यांत पान म्हार, बेळे म्हार अशो पोटजाती तयार जाल्यात. गोंयच्या म्हार लोकांतूय हाशिल, पॉट्ना अशो कांय पोटजाती आसात.

ही जात आपणाक हिंदु समजता आनी हिंदुंच्योच चालीरिती, व्रतां करतात. तांच्यांत शैव, वैश्णव आनी हेर कबीर, गिरी, नाथ हें पंथ आसात.

महाराष्ट्रांत अभंग, आढाव, आडसुळे, अहिरे, अवचट, भेडे, भिलंग, भिंगार, भोसले, चितळे, कांबळे, गायकवाड, जोशी, कदम, काळे, पाटेकर, साळवे, शेळके, शिंदे अशीं हे जमातीचीं आडनांवां आसात. गोंयांतल्या दिवचल, फोंडा, सत्तरी, केपें ह्या तालुक्यांतल्या पुराय म्हार जातीचीं आडनांवां परवार म्हूण आसात. जाल्यार पेडणे आनी हेर जाग्यांनी तांचीं नांवां गांवावयल्यान मेळिल्लीं आसात. देखीक : केरी-केरकर, विर्नोडा-विर्नोडकर, पेडणे-पेडणेकर, मांद्रें-मांद्रेकर.

गोंयांतल्या पेडणे, दिवचल, सत्तरी, फोंडा, केपें ह्या तालुक्यांनी ज्या ज्या सुवातींनी म्हार लोकांची वस्ती आसा, ते सुवातेक 'म्हारवाडो' वा 'म्हाड्डाण' अशीं नांवां आसात.

पयलींच्या काळांत म्हार लोक लंगोट, सदरो, खांदार कांबळ आनी माथ्याक पागोटें असो भेस करताले. पूण काळाप्रमाण तांच्या भेसांत बदल जाला. तांच्यो बायलो णव वारी पातळ आनी पोलको असो भेस करतात. तशेंच ऐपतीप्रमाण त्यो पितुळच्यो, रुप्याच्यो वा भांगराच्यो वसती वापरतात.

महाराष्ट्रांतल्या म्हार लोकांचें मुखेल अन्न ज्वारी-बाजरीची भाकरी, भाजयो, नुस्तें आनी दाळ. जाल्यार कोंकण आनी गोंयांतल्या म्हार लोकांचें अन्न गंव, शीत, नुस्तें आनी कडुणां अशें आसता. बोकडां, कुकडां हांचें मांस ते खातात. ताडी आनी सोरो तांकां खूब आवडटा.

भवानी, महादेव, चोखोबा, ज्ञानदेव, तलखोबा, खंडोबा, विठोबा आनी म्हसकोबा ह्या दैवतांक म्हार लोक भजतात. नागोबा, देवीच्या

साथीची देवता सटवाई आनी पटकीची देवी मरीआई हांचीं देवळां चडकरून तांच्या वाड्यारूच आसतात. तांची ते पुजा करतात. शांतारिअम्म, मरीदेवी आनी महादेव हीं कानडा जिल्ह्यांतल्या म्हारांचीं कुलदैवतां आसात. म्हसकोबा, जनाई, गौरी, बहिरोबा, खंडोबा, चोखोबा, भवानी, यल्लम्मा, गिरोबा हीं ठाणें जिल्ह्यांतल्या म्हारांचीं कुलदैवतां आसात. खेडेगांवांत व्हडल्या देवळालागीं ल्हान तलखोबाचें देवूळ आसता. ताची ते पुजा करतात. तशेंच ते सगळया हिंदू देवांकूय भजतात.

पुणें आनी नासिक ह्या जिल्ह्यांतले म्हार लोक आंबो, पिंपळ, रुई, शमी आनी रुमड ह्या पांच ताळयांची पुजा करतात. खानदेश जिल्ह्यांतले म्हार लोक अरकाठी, बोरकाठी,जांभळ, आंबो आनी रुचकिन ह्या पांच ताळयांची पुजा जाल्यार सातारा जिल्ह्यांतले म्हार लोक बाभूळ, वड, जांभळ, आंबो आनी रुई हांच्यो ताळयो पुजतात. हीं तांचीं देवकां जावन आसात.

तेचप्रमाण रूमड, नाग, कुल्ली, सूर्यफूल, कुंवाळो, पानकणीस, कदंब, मोर, नागवेल, आंबो हींय तांचीं कांय देवकां आसात. एकाच देवकांत लग्नसंबंद जायनात.

लग्नसुवाळो चडसो हिंदू पद्दतीनूच करतात. दर एका वाठारांत लग्नाची पद्दत वेगळी आसली तरी सादारणपणान हो सुवाळो पांच दीस चलता. कोंकणांत, गोंयांत लग्नापयलीं न्हवऱ्या-व्हंकलेगेर तांचे आवय-बापूय, एके पडयेन शेर दोन शेर सुरय तांदूळ, एक नाल्ल, पांच पयशे, पांच पानां, सुपारी, रुमडाचीं पानां दवरून देवक बसोवन पुजा करतात. उपरांत जाणकार मनीस लग्न लायता. फुडें तीन दीस न्हवरो व्हंकलेगेर रावन चवथ्या दिसा आपल्या घरा वता. थंय ताची आवय तांचेवयल्यान भाकरेचो कुडको उवाळून उडयता. सगळया लोकांक सुपारी वांट्टात आनी लग्नसुवाळो सोंपता. आयज लेगीत चल्याकडल्यान चलयेक देज दिवपाची चाल आसा. हालीं बौध्द धर्माची दिक्षा घेतिल्ले म्हार लोक बौध्द पद्दतीन लग्न करतात. तें एक-दोन वरांभितर जाता. विधवेक आते, मामे वा मावस भावाकडे तेचप्रमाण न्हवऱ्याच्या कुळांतल्या दादल्याकडेन लग्न जावपाक मेळना. पयल्या न्हवऱ्याक विधवेवांगडा लग्न करपाचें आसल्यार ताका पयलीं रुईच्या झाडाकडेन लग्न करचें पडटा.

सातारा-सोलापूर ह्या वाठारांत भुरगें जल्मल्या उपरांत तिसऱ्या दिसा 'तिरवी' वा 'तिकोंदी' नांवाचो एक संस्कार करतात. त्या वेळार पांच ल्हान चलयांक जेवण वाडटात. पांचव्या दिसा पांच ल्हान फातर वळीन मांडून वैजीण तांची पुजा करता. कोंकणांत, गोंयांत पांचव्या दिसा 'सटी पूजनाचो' एक प्रकार करतात. कानडा जिल्ह्यांत भुरग्याचें नांव सव्या दिसा, कोल्हापूरांत णवव्या दिसा आनी हेर सुवातींनी बाराव्या वा तेराव्या दिसा दवरतात. सुयेर सादारणपणान बारा दीस पाळटात. महाराष्ट्रांत एकेचाळीस दीस, अहमदनगरच्या वाठारांत इकरा दीस आनी कोल्हापूरांत आठ दीस पाळटात.

हे लोक सादारणपणान मडें पुरतात. कांय सुवातींनी मडीं मांडी घालून बशिल्ले अवस्थेंत पुरतात. पुरता आसतना मड्याची तकली उत्तरेवटेन करतात. पूण गोंयांत ती दक्षिणेवटेन करतात. मडें मसंडेंत व्हरतना वाटेंत एके सुवातेर दवरतात. निसणीच्या चारूय कोनशांनी चार ल्हान फोंड काडून तातूंत तांदूळ घालतात. उपरांत मड्याचो उत्तराधिकारी आपलो कान धरता. त्याच हाताच्या कोपरान ते चारूय फोंड पुरयता. उपरांत मडें मसंडेंत व्हरतात. मरणाक गेल्ले सगळे लोक व्हाळाचेर न्हावन मेल्ल्या मनशाच्या घरा येतात. थंय आंगार गायचें मूत शिंपडावन घेवन आपल्या घरा वतात. तिसऱ्या दिसा मेल्ल्या मनशाचे सोयरे सोय-गोडाच्यो दोन वाटयो घेवन मसंडेंत येतात. एक वाटी तांदूळ पुरील्ल्या जाग्यार आनी दुसरी वाटी थडग्याचेर दवरतात. सातव्या दिसा ज्ञातिजेवण घालतात. हे लोक श्राध्द वाडनात पूण पक्षपंद्रशींत पितरांखातीर म्हाळ करतात.

म्हार लोकांचो मुखेल वेवसाय कोंड्यांपसून पाटले, सुपां, हातरपाटे, तयार करप आनी सान्नी तयार करप. मसंडेंत सरण दाळप, फोंड काडप हींय कामां ते करतात. गोंयांत गांवच्या देवळामुखार धोल-धोलकें वाजोवपाचें कामय ते करतात.

पयलींच्या काळांत म्हार जातीक अस्पृश्य मानताले. ह्या लोकांक पुराय तरेन गांवाचे सेवेखातीरूच वापरिल्ल्यान गांव तांकां बलुते दितालो. सरकारी तिजोरेचेर राखणदार म्हूण काम करप, सरकारी अधिकाऱ्यांक वाट दाखोवप, तांचे निरोप पावोवप, ह्या कामांच्या बदल्यांत तांकां सरकाराकडल्यान पयशे आनी जमीन मेळटाली. तेभायर मेल्ल्या जनावरांची कातडी काडप, पयलेच फावटी उरिल्लें खळावयलें धान्य, लग्नांत न्हवऱ्या-व्हंकलेचेर उडयल्ल्यो अक्षता एकठांय करप, मळणेच्या वेळार हे जातीच्या बायलांचे होटयेंत उडयिल्लें धान्य हींय कांय तांच्या उपजिविकेचीं साधनां आशिल्लीं. गांवांतलो म्हार हो त्या गांवाच्या देवळाचो चाकर आसूंक जाय असो दंडक आशिल्लो. सकाळीं आनी सांजवेळां देवळाकडे वचून ढोल-तासो वाजोवप हें तांचें काम. तशेंच गांवच्या देवळाचो कसलोय उत्सव आसल्यार पुराय वेळार देवामुखार तांणी वाजोवप सणा परबेक गोंयांतल्यो म्हार जातीच्यो बायलो खाकेंत सूप घेवन गांवांत घराघरांनी वचून वाडी म्हळयार त्या दिसा केल्लें गोडशें मागून आपल्या कुटुंबांत वांटून खावप. महाराष्ट्रांत कांय सुवातींनी कोणूय मनीस मेलो जाल्यार म्हार मनशान ताच्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक रकाद पावोवप, मेल्या मनशाचे निमणे संस्कार जायमेरेन मसंडेंत रावप अशीं कितलीशींच म्हार जातीच्या लोकांची परंपरिक कामां आशिल्लीं. पूण हालीं शिक्षणाक लागून ह्या कामांचें प्रमाण बरेंच कमी जालां.

हे पुराय जातीचो उपेग भारतीय समाज वेवस्थेन गांवगड्याभशेन केला. ताका लागून तांचो अर्थीक, समाजीक, मानसिक आनी शैक्षणिक विकास जावंक पावलो ना.

देव-देवस्की, अंधश्रध्दा, जादू, भूतांखेतां हांचेर ह्या लोकांचो खूब विश्वास आसा. हे लोक खूब कलामोगी आसात. ढोलकीं, सनई हीं वाद्यां ते वाजयतात. चर्मवाद्य, सूरवाद्य हीं वाद्यां ते तयार करतात.

स्वातंत्र्या उपरांत भारताचें समाजजीवन आपल्या कर्तृत्वान पुराय तरेन बदलून उडोवपी डॉ. भीमराव आंबेडकर हो हे जातींत जल्माक आयलो. ताणें हिंदू धर्माचे रिती-रिवाज सोडून आर्विल्ले संस्कृतायेक सोबसारकी जीण जगपाक सुरू केली. १४ ऑक्टोबर १९५६ दिसा डॉ. आंबेडकर हाच्यावांगडा महाराष्ट्रांतल्या हे जातीच्या लाखांनी लोकांनी नागपूर हांगा हिंदू धर्म सोडून बुध्द धर्माची शिकवण आपणावची प्रतिज्ञा करून धर्मांतर केलें.

गोंयांतल्या म्हार समाजांतल्या कांय तरनाट्यांनी १४ एप्रिल १९९२ दिसा डॉ. आंबेडकर हाच्या १०० व्या जल्मदिसा, हिंदू धर्म सोडून बौध्द तत्त्वज्ञानाची, धम्माची दिक्षा घेतल्या. ह्या दिक्षा घेतिल्ल्या कुटुंबांनी बौध्द धर्मानुसार चालीरिती आपणावंक सुरू केल्या.

- दादू मान्द्रेकार

**म्हारांगण :** एक विशिश्ट जागो. म्हारांच्या दर एका वाड्यार 'म्हारांगण' हो कसलेंच प्रतीक नाशिल्लो एक विशिश्ट जागो आसता. हांगा तांच्या जायत्या दैवतांचें वास्तव मानतात. ह्या दैवतांक थरावीक दिसा कोंबो, बोकडो आदींचो बळी दितात. अन्नाची वाडी दवरतात. थरावीक दिसा म्हारांकडल्यान थंय पुजा जाता. कांयकडे अशा सुवातींनी फातर, झाडपार अशीं प्रतीकां आसतात. गांवांतले हेर जमातीचे लोकय म्हारांगणाक आंगवण सांगून घेतात.

**पूरक नोंद :** म्हार.

- कों. वि. सं. मं.

**म्हारू :** उग्ररुपी शिवाच्या अंशाचो तमोगुणी अवतार महारुद्र हाचें संक्षिप्त नांव म्हळ्यार म्हारू. गोंयांत हो म्हारू देंवचार क्षेत्रपालावरीच एक राखण करपी अदृश्य शक्त जावन आसा. देंवचार, म्हारू हांच्यो मूर्ती नासतात. पूण हालीं असल्या देवांच्यो बोडगेश्वर, साखळयो अशो उग्र मूर्ती केल्ल्यो दिश्टी पडटात. म्हारवाची मूर्त ना. तो एक पाशाणी फातर कसो आसता. ताका दोळे, कान, मिशो रुप्याच्यो करून लावन ह्या निर्गुण म्हारवाक एके मूर्तीभशेन आकार हाडटात. रुद्र रूप हें महारागीट आसता. तैत्तरीय संहिता हातूंत रुद्रसुक्ताची सुरवातच अशी आसा : 'नमस्ते रुद्रमन्यव' हे रुद्रा तुज्या रागाक पयलीं आमी नमन करतात. फुडें ह्याच सुक्तांत आनी ऋग्वेदांत 'मा नस्तोकेतनये मान' म्हळ्यार 'हे रुद्रा तू रागार जावन आमच्या भुरग्या बाळांक, आमचीं मनशां आनी गाय, घोडे, वीर हांकां मारूं नाका'. रुद्र म्हळयार रडप ह्या रडपाच्या कारणाचो नाश करपी तो रुद्र. देवतेचीं दोन रुपां आसात अशें वेदांत वर्णन केलां. कल्पांताच्या वेळा संहार करपी हें उग्ररूप आनी प्रसन्न मुद्रेचें सगळयाक सूख दिवपी ते शिवरूप. तेन्ना हे रुद्रा तूं 'या ते राद्र शिवातनूः शिवा विश्वाहभेषजी' तुज्या सौम्य शांतरुपान तूं आमचेकडेन पळय आनी आमकां सुखी कर.

रुद्राच्या भिरांकूळ रुपाचें वेदकाळांतल्या लोकांक भंय दिसतालें. रुद्र म्हूण नांव घेतल्यार लेगीत लोक भियेताले. यज्ञकर्मांत तर हे देवतेक ताची शिदोरी घेवन तांणी बेगीन पयसुल्ल्या देशाक वचचें देखून ब्राह्मण ताची प्रार्थना करताले. त्या काळांतल्या लोकांनी तरातरांच्या देवतांच्या रुपाची कल्पना करून त्या देवतांकडे दुख्खां, संकटां पयस जावचीं देखून प्रार्थना केल्या. दुख्खां, संकटां मनशाचेर येतात म्हळयार खंयचीय तरी देवता. मनशाचेर संकटां हाडटा हे कल्पनेंतल्यानच निराकार म्हारवा सारकिल्ल्या देवाची निर्मिती जाल्या जावंये.

गोंयांतलो म्हारू उग्र आसता. तो रुद्राचो अंशभूत आशिल्ल्यान तो म्हादेवाच्या गणांतूच मोड्टा. हो क्षेत्राधिपती म्हळयार त्या वाठाराचो राखणदारय आसता. गोंयांत जीं पयलीं कर्तबगार व्हड मोटीं घराणीं आशिल्लीं तांणी संकटां ना करूंक घराण्याची राखण बरेभशेन करपाखातीर ह्या म्हारवांक लागीं करून आपल्या सालांनी, घरांनी दवरिल्लो. देखीक, प्रतापराव सरदेसाय, बोकडबाग, बांदोडें. हेर गांवांनीय शीमेचेर म्हारू आसता. उसगांव हांगा पाज्जेवयलो म्हारू, कुर्टी-फोंडे हांगा घोड्या पाज्जेचो म्हारू, रासय साश्टींत देसायांचो म्हारू आसा. हेर तालुक्यांनी अशे राखणदार खूबकडेन आसात आनी तांकां वेगवेगळीं नांवां आसात. म्हारवाचो अवसर आयिल्लो मनीस खूब खंकाळ जाता. देखून जायते फावट खूबिल्ल्या मनशाक म्हारू बसला काय विचारतात.

गोंयांत कांयकडेन ग्रामपुरसाच्या रुपान ताका भजतात. ताची पुजा सदांच करीनात, पूण धर्मीक स्वरुपाच्या कृत्यांत ताका आवंतण दितात आनी शांती करतात. कांयकडेन म्हारवाक खिचडीचो निवेद्य दितात, तर कांयकडेन कोंबडो बळी दितात. पूण हे सगळे विधी अब्राह्मणाकडल्यान करतात.

- वा. ल. वझे.

**म्हालो :** भारतांतली एक जात. हिका न्हावी, नाभिक, हजाम, नाडिग, वारिक, क्षौरक, नापित, कारागीर, सन्मुख, वालंद, घायजो, मटको, केलासी, नायिंद, म्हाली, वावडी, चसकी, खवास, भंडारी, मंगल आदी त्या त्या वाठाराप्रमाण नांवां आसात. शिवाचे मानेक वेश्टील्ल्या शेषापसून वा शिवाचे बोमलेपसून आपली उत्पत्ती जाली अशी ते कथा सांगतात.

केंस कापप, नाखटां काडप, शीर मारप हे तांचे परंपरेन चलत आयिल्ले धंदे. तांच्यो बायलो वैजिणीचें काम करताल्यो.

नाभिक जातीक संस्कृत भाशेंत नापित अशें नांव आसून शतपथ ब्राह्मण, कात्यायन, श्रौतसूत्र आनी आश्वलायन गृह्यसुत्र ह्या ग्रंथांत हें नांव मेळटा. ऋग्वेदांत वप्ता हो शब्द ह्याच अर्थान मेळटा. उशनसान तांकां ब्राह्मण आनी वेश्या हांची संतती आनी पराशरान तांकां ब्राह्मण दादलो आनी शुद्र बायल हांची संतती मानल्या.

नाभिक लोकांत जायते पोटभेद आसून हिंदू आनी मुसलमान असोय एक व्हड भेद आसा. महाराष्ट्रांत तांकां चड करून न्हावी म्हण्टात. सोलापूर-मराठवाडा वाठारांत तांकां वारिक आनी व्हराडांत म्हाली अशें म्हण्टात. तांचीं नांवां, आडनावां, देवकां आनी चालीरिती मराठ्यांवरीच आसात. कांयकडेन उच्च मराठ्यांचे जेवणावळींत म्हालो उदक वाडटा. नासिक आनी खानदेश ह्या वाठारांतले मराठा तांचें हातचें जेवण घेतात. तांचो पुरोयत ब्राह्मण आसता. तांच्या विश्वनाथ नांवाच्या एका म्हाल्यान नापित पुराण नांवाचो एक ग्रंथ बरयला.

महाराष्ट्रांत म्हालो हो बलुतेदारांतलोच एक. ताका दर मनशाफाटल्यान दोन ते चार पायल्यो बलुते आनी केंस कापपाच्या दिसा एक भाकरी मेळटाली. चौल, शेंडी दवरप, लग्नां आदी सुवाळयांवेळार ताका खण-शिदो, व्हॉट आनी रोखड पयशे मेळटाले. सगळ्या बलुतेदारांत म्हाल्यांची अर्थीक स्थिती बरी आसताली. शारांत वा गांवांत काम मेळूंक लागिल्ल्यान गांवांतल्या म्हालो बलुतेदारांची संख्या उणी जाल्या. कांय म्हाले शेतीय करतात.

तांकां हेर कांय कामांय नेमून दिल्लीं आसात. कोल्हापूर जिल्ह्यांत देवाची पालखी व्हरपाचें काम तेच करतात. मराठवाड्यांत मशाल धरपाचें काम तांचेंच. सातारा जिल्ह्यांत नागपंचमीच्या दिसा ते मातयेचे नाग करून विकतात. नागांची सार्वजनिक पुजाय तेच करतात. तेखातीर तांकां पुजेचें उत्पन्न मेळटा. दर एके व्हड परबेक न्हावी बलुतेदार घराघरांनी वचून सण मागता.

कोल्हापूर, मराठवाडा, विदर्भ आदी वाठारांत लग्नाच्यो आमत्रंण पत्रिका पावोवपाचें काम करता. तेखातीर ताका लग्नांत पटको बांदतात. खानदेशांत लग्न सुवाळयावेळार सोयऱ्यांची उठबस करप, जेवणाची वेवस्था पळोवप आदी कामां न्हावी बलुतेदाराक करचीं पडटात. नागपुरांत तो पत्रावळी, दोणे लावप, अक्षता वांटप, पानसुपारी दिवप, मशाली धरप आदी कामां करता. हें सगळें करपाक ताका पैशांच्या रुपान बक्षिशी मेळटा. न्हवरो बशिल्लो घोडो धरपाचें कामय तोच करता.

महाराष्ट्रांत तांचे मराठा आनी कोंकणी अशे दोन भेद आसात. तांच्यांत रोटीबेटी वेव्हार जायनात. मराठी म्हाल्याचे गंगातीरकर वा गोदावरीकर, घाटी, जुनारी, कुणबी, मशालजी, वाजंत्री आदी पोटभेद आसात. हातुंतले जुनारी हे जिनगर, मुसलमान, किरिस्तांव अशा कोणाचीय हजामत करतात आशिल्ल्यान तांकां सकयले प्रतीचे मानतात. मराठी म्हाल्याचो भेस, रावप, खाण, चालीरिती आनी धर्मीक वेव्हार मराठ्यांवरींच आसतात.

कोंकणी म्हाल्याचे मूळचे आनी दासीपूत शिंदे अशे दोन भेद आसात. सावंतवाडी वाठारांत बंदे नांवाचो तांचो आनीक एक पोटभेद आसा. हे लोक सुंता करपाचें काम करतात म्हूण तांकां हलके प्रतीचे मानतात. कोंकणी म्हाल्यांत देवकां आसून तांच्यांत एका देवकांत लग्नां जायनात.

खानदेशांतल्या म्हाल्यांचे अहीर आनी तायदे अशे दोन भेद आसून तांच्यांत रोटी वेव्हार जाता पूण बेटी वेव्हार जायना. ते मशाल धरपाचें काम करतात.

गुजरातांतल्या म्हाल्यांच्यो बाबर वा मारवाडी, भाटिया, लिंबाचिया मालु आनी मटको अशो उपजाती आसात. हातुंतली लिंबाचिया ही जात व्हड समजतात. ते आपल्याक राजपूत समजतात आनी हेर जातींकडे रोटीबेटी वेव्हार करिनात. ते कबीर, बीज, शैव, वैश्णव आदी पंथांचे अनुयायी आसात. ते गणपती, हनुमान, कृष्ण, महादेव, राम आदी देवांक भजतात.

ते मेल्ल्या मनशांक जाळटात. सौराष्ट्रांत कांयकडेन पांच मनीस न्हावन गळयांत जानवें घालतात. तातुंतले चौगजाण मड्याची निसण उखलतात आनी एकटो फुडें मडकें धरता. बाराव्या दिसा कांय मातयेचीं मडकीं एकठांय रचून तांचे भोंवतणी दोरयो बांदतात. उपरांत कुंभार दोरयो तोडून तीं मडकीं घेता. बाराव्या दिसा मेल्ल्या मनशाचो लागसल्लो सोयरो मळबांत फुलां उडोवन नखेत्रांची पुजा करता. हेर सगळे संस्कार कुणबी जातीवरी आसतात. तांचीं हेर कामां महाराष्ट्रांतल्या म्हाल्यांभशेनच आसतात.

महाराष्ट्रांत आयिल्ल्या तेलुगू म्हाल्याचे साजन आनी शिरबाज अशे दोन भेद आसतात. हे शैव वा वैश्णव आसून ब्राह्मणाच्या देवदेवतांक ते भजतात. म्हैशम्म आनी येल्लम्म ह्यो तांच्यो कुलदेवता. हांचे धर्मीक विधी देशस्थ ब्राह्मण वा जंगम करतात. भुरगें जल्मलें की ताच्या तकलेकडे तोंकाक लिंबू तोंपून एक सुरो आनी बडी दवरतात. सुयेर धा दीस पाळटात. तांच्यांत लग्नादिसा मारुतिच्या देवळांत वचून उपरांत सवायशिणी बायलो व्हंकलेक घेवन न्हवऱ्यागेर वतात. थंय दोगांकय शेंदरेर एकामेकांसामकार तोंड करून बसोवन तांचेमदीं अंतरपाट धरतात. मंत्रोच्याराउपरांत अक्षता उडयल्यो की, तांचें लग्न पुराय जाता.

हे जातींत मरण येतकच सगळ्यांक ती बातमी कळयतात. मेल्ल्या मनशाक न्हाण घालून घराभायर पाटार बसयतात. ताका जाळटात वा पुरतात. मसंडेंतल्यान घरा येतकच मनीस मेल्लो थंय पेटत दवरिल्ल्या

दिव्याचेर तण उडयतात. चवथ्या दिसा ताचो वारस मसंडेंत वता आनी ताका पुरला त्या जाग्यार हात फिरयता, ताका लाशिल्लो आसल्यार पिंडदान करून पिंडाक कावळो आफुडटकच घरा येता.

म्हैसूर, बंगाली आनी कोलार वाठारांतल्या म्हाल्याक नायिंद म्हण्टात. शिवाच्या कानापसून आपली उत्पत्ती जाली अशें ते मानतात. देखून तांकां नयनक्षत्रिय अशेंय म्हण्टात. शिवान आपल्याक वाद्यां दिलीं, असो तांचो समज आसा. ते देवळांत चौघुडो-सनय वाजोवपाचें काम करतात. तांच्यांत व्हडल्या भयणीचे, मामाचे वा आत्याचे चलयेकडेन लग्न करतात. ते शैव वा वैश्णव आसून मुनीश्वर, अक्कागारू आनी गंगम्म हांकांय भजतात. हे मेल्ल्या मनशाक बशिल्ले स्थितींत पुरतात आनी सुतक धा दीस पाळटात.

बंगालांतल्या म्हाल्याचो समाजीक पांवडो खूबच उंच आसा. ते स्वताक सवित्र ब्राह्मण म्हणोवन घेतात.

आदल्या तेंपार गोंयांत म्हालो हो ग्रामसंस्थेचो म्हत्वाचो घटक आशिल्लो. गांवांतल्या दादल्यांचे सुमनांतल्यान एक फावट ते केंस कापपाचें काम करताले. तेखातीर तांकां जमीन वा हंगामाच्या वेळार धान्य मेळटालें. मूजीच्या संस्कारांत म्हालो येवन बटुचे केंस कापता. तेखातीर ताका विडो (पैयशे) दितात. भुरग्याचें जावळ काडपाचें काम म्हालोच करता. आवय-बापायच्या मरणाउपरांत चल्याचे केंस तोच कापता. देवस्थानांत दनपारच्या महानिवेद्याच्या वेळार देवाचेर हारशांतल्यान सूर्यकिरणांचो उजवाड घालपाचें ताचें काम आसता. पूण सद्याच्या काळांत गोंयांतले चडशे म्हाले स्वतंत्र वेवसाय करतात. आदल्या तेंपार आशिल्ली बलुत्याची पद्दतय सद्या बंद पडल्या. नवे पिळगेंतले तरनाटे हेर नोकरे-वेवसायांत आसात.

तांच्यांत एकच देवक आशिल्यांमदीं लग्नां जायनात. गोंयांभायल्या स्वजातींत तांचीं लग्नां जातात. तांच्यांत देजाची पद्दत ना. पूण वरपक्षाक हुंडो दितात. तांच्यांत देवकां आनी कुलदेवय आसात. पुर्तुगेजांनी जीं गावां बाटयलीं, त्या गांवांवयल्यान तांचीं कांय आडनांवां पडिल्लीं आसात. हाचेवयल्यान पुर्तुगेजांच्या काळांतल्या ग्रामसंस्थांत म्हाल्याचें अस्तित्व आशिल्लें हें दिसून येता. आयज कायद्याप्रमाण आपल्या पुर्विल्ल्या कुलदेवतांचे ते म्हाजन नात पूण भजक म्हूण तांकां भजतात आनी कौल प्रसाद घेतात. तांचें स्वंतत्र अशें गोमतेश्वराचें एकूच देवस्थान गोंयांत आसा. तें पोन्ने गोंय लागसार आशिल्ल्या पोरन्या येळे ह्या गांवांत आसा. ही पुर्विल्ली देवता आसून ती मुसलमान आनी विजयनगर काळांत गोवापुरीची नगरदेवता आशिल्ली. बहामनी राजवटींत आनी परत एक फावट पुर्तुगेज राजवटींत हें स्थान नश्ट जाल्लें. उपरांत पुर्तुगालांत राजेशाय नश्ट जावन लोकशाय येतकच गोंयांतल्या नापित समाजान गोमतेश्वराचो जीर्णोद्धार करून थंय देवूळ बांदलें. हांगाचें गोरक्षतीर्थ हें गोंयांतलें तीर्थस्थान समजतात.

- कों. वि. सं. मं.

**म्हाळसा :** एक देवता. हिका महालसा अशेंय म्हण्टात. ही मल्लारी मार्तंडाची (खंडोबा) बायल. लोकांसमजाप्रमाण म्हाळसा ही मोहिनीचो अवतार समजतात. अमृतमंथन जातकच विष्णुन मोहिनीचें रूप घेवन दैत्यांक भुलयले. त्यावेळार मोहिनीचें रूप पळोवन शिव तिचेर भाळ्ळो आनी तिच्या फाटल्यान लागलो, अशें भागवताच्या अश्टम स्कंधांत सांगलां. लोकमानसान ही कथा फुडें अशीं सांगल्या- शिवाची ही अतृप्त इत्सा पुराय करपाक मोहिनीन ताका वचन दिलें, तूं जेन्ना मार्तंड भैरव रुपान अवतार घेतलो तेन्ना हांव म्हाळसा ह्या नांवान अवतरून तुजी इत्सा पुराय करतां. तेप्रमाण म्हाळसा ही साक्षात मोहिनी नासून मोहिनीच्या



म्हाळ्ळोळची म्हाळसा

ध्यासाक लागून शिवाक पार्वतीच मोहिनी दिसूंक लागली. म्हाळसा हो तिचोच अवतार.

शिवाच्या मार्तंड भैरव अवतारांत म्हाळसा ही नेवासे हांगा तिम्माशेट वाणयाच्या घरा ताचे धुवेच्या रुपान अवतरली. तिमाशेटीन ती वयांत येतकच मार्तंड भैरवाच्या स्वप्नांत दिल्ल्या आदेशाप्रमाण पाली हांगा तिचें मार्तंड भैरवाकडे लग्न लावन दिल्लें.

म्हाळसा ही मूळांत कन्नड ग्रामदेवी आशिल्ली. माळव्व हें तिचें लोकप्रिय नांव आसून ती मैलाराची बायल आशिल्ली. फुडें तिच्या विकासाचे दोन भाग जाले. एकिकडे ती खंडोबाची बायल जाली आनी दुसरेकडे आदिशक्तीचें एक रूप म्हूण विकसीत जाली. सुरवेक ह्या दोनय प्रवाहांतलें उन्नयनाचें साधन मोहिनी हेंच आशिल्लें. मैलार हो शिव आनी माळव्व

ही मोहिनी. पूण फुडें मैलार हो शिव-मोहिनी कथेचो संबंद सोडून भैरव जातकच मैलाराची बायल माळव्व ही मोहिनी जाग्यार योगेश्वरी पार्वतीचें एक रूप म्हूण वळखुपांत येवंक लागली. तिच्या उन्नयाच्या पयल्या स्वतंत्र प्रवाहांत मात तिचें मोहिनीरुपूच उरलें आनी एक वैश्णवशक्ती म्हूण तिका इ.स.च्या १३व्या शतमानांत भरपूर प्रतिश्ठा मेळ्ळी. नेवाशाचो मोहिनीराज म्हळयार मोहिनीचें रूप घेतिल्ली मूळची म्हाळसाच. एकाच ग्रामदेवीच्या विकसनाचे हे दोन ओघ इतले वेगळे जाले, की खंडोबाची बायल म्हाळसा आनी नेवाशाची मोहिनी हांचें मूळ एकच आसा, हें खरें दिसना. महाराष्ट्रांत म्हाळसा आनी कर्नाटकांत माळव्व ह्या नांवांनी नामना आशिल्ले हे देवीक माळजादेवी, म्हालजा, मालाचिदेवी, मालची, मालाची, मालती, माळवी, म्हालसिका, महालया आदी हेर नांवां आसात. म्हाळसा हिची सद्या खंडोबाची देवी म्हूण नामना आसली तरी मूळची ती स्वतंत्र देवता आशिल्ली. इ. स. च्या ११व्या शतमानांत नामना आशिल्लें माळजादेवीचें देवूळ आयज बनशंकरीचें म्हूण वळखतात. भोगावती (पैठण), वालेसंग (जि. औरंगाबाद), नांदुरा (जि. बीड) आनी नेवासे ह्या चारकडे म्हाळशेचीं देवळां आशिल्ले उल्लेख मेळटात.

सद्या चड नामना आशिल्लीं म्हाळशेचीं स्थळां म्हळयार नेवासे आनी गोंयचें म्हाड्डोळ. नेवासे हांगाचे देवतेक मोहिनीराज हें नांव आसून तो विष्णुचो अर्धनारी नटेश्वर अवतार आसा, असो समज आसा.

गोंयांत म्हाळसा आशिल्लें म्हाड्डोळ हें स्थळ पणजी-फोंडें-मडगांव ह्या रस्त्यार पणजीसावन २१ किमी. अंतराचेर आसा. हे देवीक महालसा नारायणी म्हण्टात.

परशुरामान गोंयांत गौड सारस्वत ब्राह्मणांचीं आनी तांचे कुलदेवीची स्थापना करतकच चलपती वरुणदेवान भार्गवरामाचे सांगणेन वरेण्यक्षेत्रांत एक सोबीत भांगराचें देवूळ बांदलें आनी थंय म्हाळसा देवीची स्थापन केली. तेन्नाच्यान ह्या गांवाक वरुणापूर (वेर्णे) म्हणूंक लागले. एक दीस उत्सवावेळार एक दैत्य येवन रयतेक पिडूंक लागलो तेन्ना लोकांनी परशुरामाचो धावो केलो. तेन्ना ताणें दर्शन दिवन सांगलें, वरुणपुरांत जी आदिमाया आसा तिची आराधना करून तिका प्रसन्न करून घेयात. लोकांनी तशें करतकच म्हाळसा प्रसन्न जाली आनी तिणें खड्ग घेवन दैत्याकडे झूज केलें. ताची तकली कापून आपल्या दाव्या हातांत धरून ती तशीच देवळांत आयली. पुराय लोकांनी त्या दिसा व्हड उत्सव केलो. हो ते देवीचो विजय दीस म्हूण माघ वद्य षष्ठी ह्या दिसा तिच्या कुळाचे भक्त महापर्वणीचो सण म्हूण दर वर्सा मनयतात.



म्हाळशेचें देवूळ-म्हाड्डोळ.

गोंयाचेर पुर्तुगेजांनी कब्जो करतकच जेजुइत पाद्र्यांनी लोकांक बाटोवपाचो वावर हातांत घेतलो. साश्टी बाटोवपावेळार तांणी ह्या देवालयाचेर पयलीं हल्लो केलो. तेन्ना हे देवतेचें स्थलांतर अंत्रुजांतल्या प्रियोळ गांवांत केलें. ज्या वाड्यार हें देवस्थान उदयाक आयलें, त्या वाड्याक म्हाड्डोळ अशें नांव दवरलें. कारण वेर्णे हांगा जंय हें देवालय आशिल्लें त्या वाड्याक म्हाड्डोळ अशें नांव आशिल्लें. प्रियोळ गांवांत हो वाडो फुडें श्री. रामचंद्र बाबा मल्हार सुखठणकर हाणें पेशवे सरकारांतल्यान इनाम करून ह्या देवस्थानाक दिलो.

म्हाड्डोळ हांगाची म्हाळशेची मूर्त चतुर्भूज आसून तिच्या उजव्या दोन हातांत त्रिशूळ आनी एका दैत्याचे केंस धरिल्ले आसून, दाव्या दोन हातांत अमृतकळस आनी रगत गळत आशिल्ल्या दैत्याची तकली आसा. दैत्याचे ते तकलेंतल्यान पडपी रगत, सुणो पीता आसून तिच्या पांयांसकल एक दैत्य माड्डता अशी दाखयल्या.

अंत्रुज म्हालांतल्या हे म्हाळशेच्या देवस्थानाक सोबितकायेक लागून खुबूच म्हत्व आसा. देवालयाचे दावेवटेन अग्रशाळा आसून फुडल्यान तळी आसा. देवालयामुखार दीपस्तंभ आनी लागसारच व्हड नगरखानो आसा. देवळामुखार पितुळची व्हडली दिवलीय आसा. म्हाळसा देवीच्या देवळाच्या पाख्याक तांब्यापटो बसयल्लो आसा.

हें थळ अंत्रुज म्हालाच्या मदीं आशिल्ल्यान, तशेंच पुराय गोमंतकांत फोंडें म्हाल मध्य सुवातेर आशिल्ल्यान पुर्तुगीजांचे नवे काबीजादीची जांबावली, पंचमहाल, पेडणे ते काणकोण मेरेनच्या म्हालाची मामलेदारी (आदमिनीस्त्रासांव) आदल्या तेंपार हांगाच आशिल्ली. तशेंच हांगा व्हड बाजारपेठय आशिल्ली. पुराय माघ म्हयनो आनी अर्दो फाल्गुन म्हयनो ह्या काळांत हांगा व्हड प्रमाणांत जात्रा भरताली.

अत्रि, भारद्वाज, कौशिक, गार्ग्य आनी कौत्स ह्या पांच गोत्रांचे गौड सारस्वत ब्राह्मण श्री म्हाळसा देवीचे कुळावी म्हाजन आसून कौशिक, वत्स आनी कौडिण्य गोत्राचे कुळावी म्हाजन तिचे पालवी म्हाजन आसात. हे भायर हेर जातीचे लोकय हे देवीचे भजक आसात. म्हाड्डोळचे जायांपूजेची खुबच नामना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**म्हैसूर :** कर्नाटक राज्यांतलें इतिहास प्रसिध्द शार. कर्नाटक राज्याक १ नोव्हेंबर १९७३ मेरेन म्हैसूर नांवान वळखताले.

कावेरी आनी कब्बनी न्हंयांलागसार दख्खन पठाराचेर म्हैसूर वशिल्लें आसा. ताचे आग्नेयेक सु. १३ किमी. अंतराचेर फामाद चामुंडी दोंगुल्ली आसा. बेंगलोरचे नेऋत्येक १३७ किमी. आनी मुंबयचे दक्षिण आग्नेयेक ८५०किमी. अंतराचेर हें शार आसा.



चामुंडी दोंगुल्लेवयलो प्रचंड नंदी - म्हैसूर.

पयलींच्या काळांत महिषक, महामंडळ महिषराष्ट्र ह्यासारक्या नांवांनी ह्या शाराक वळखताले. म्हैसूरची लोकसंख्या ३१,५५ ,९१५ (१९९३), क्षेत्रफळ : ११,९५४ आसा.

**इतिहास :** म्हैसुराचेर एकाफाटल्यान एक अशा व्हड राज्यांनी राज्य केलें. मौर्य, सातवाहन, कदंब, गंग बदामीचे चालूक्य, मालखेडचे राश्ट्रकूट, कल्याणचे चालूक्य, विजयनगरचे होयसाला आनी राया तशेंच वाडीयार, हैदर अली तशेंच टिपू सुलतानाचें म्हैसूर राजपाटण आशिलें.

**राज्यवेवस्था :** विसाव्या शेंकड्यांत संस्थानी राजधानी म्हूण ह्या शाराचो नियोजन करून विकास केल्लो. हांगाचें नगरपालिकाप्रशासन हे नदरेन चड कार्यक्षम आसा. उदका पुरवण, आरोग्य सेवा, शिकपाची सुविधा, इतिहासीक वास्तू, बागो, हांचेबाबतींत शारान सुदारणा केल्यात. विसाव्या शेंकड्याचे हांगा फोर्ट, लश्कर, देवराज, कृष्णराज, मंडी, चामराज आनी नझराबाद अशे सात मोहल्ले वा विभाग आसले. वैभवसंपन्न शार घडोवपाक हांगाच्या संस्थानिकांची कलाभिरूची आनी सौंदर्यदृश्टी दिसून येता.



महिषासुर - म्हैसूर

**अर्थीक स्थिती :** म्हैसूर शारांत सुती आनी रेशमी कपडे, भाताच्यो आनी तेलाच्यो गिरण्यो, चंदनाचें तेल, रसायनां, कातड्याच्यो वस्ती तयार करपाचें उद्योगधंदे विकसीत जाल्यात.

बेलागुला ह्या उपनगरांत रंग आनी रसायनीक सारीं हांचे कारखाने आसात. उदेंतेक शिवसमुद्रम जुंव्यालागसरच्या जलविद्युत् निर्मिती केंद्रांतल्यान शाराक वीजपुरवण करतात. हातमाग, तंबाखू, कॉफी, विडयो असले कुटीर उद्योग शारांत विकसीत जाल्यात. म्हैसूरच्या हस्तिदंती आनी चंदनी कलाकामाची खूब नामना आसा.

**मुखेल उत्सवः** म्हैसूरच्या दसऱ्याचो इतिहास पुराणाकडेन संबंदीत आसा. चामुंडी दोंगरावयल्या चामुंडेश्वरी देवीन, दुश्ट महिषासूर राक्षसाक जिवेशी मारलो. तिच्या जैताची महिमा गायत हो उत्सव मनयतात. णव दिस हो उत्सव चलता. धाव्या दिसा सजयल्ले हत्ती, हत्ती सुंवारी, शिस्तबध्द कपडे घातिल्ले सैनीक, तरेतरेचीं वाजपां वाजोवपी वाजंत्री देवी चामुंडेश्वरीच्या नांवाचो गजर करीत व्हड मिरवणूक काडटात.

**म्हत्वाचीं स्थळां :** म्हैसूर शार आपल्या सैमीक सोबीतकायेक आनी नितळकायेक लागून प्रसिध्द आसा. ह्या शारांत जायत्यो सोबीत बागो आसात. शारा लागीं कृष्ण राजसागर धरण, वृंदावन बाग, चामुंडी दोंगुली, वडीयार राजमहाल तशेंच सोमनाथपूर देवूळ आसा. म्हैसूरच्यान ६५ मैल अंतराचेर श्रवणबेळगोळा बाहुबली (गोमटेश्वर) ह्या जैन संताचो

२,००० वर्सां पयलींचो फातरान कोरांतिल्लो भव्य पुतळो आसा.

म्हैसूरचें म्हैसूर विश्वविद्यालय खूब प्रसिध्द आसा.

- सूर्यनाथ कामत

- कों. वि. सं. मं.

**म्हौंव :** फुलांतल्या मकरंदापसून म्हौंवामूस जो चिकट आनी गोड द्रव पदार्थ तयार करतात ताका म्हौंव म्हण्टात. विशिश्ट जातीचे मूस (मक्षिका) फुलांतलो मकरंद कण कण एकठांय करून तो आपल्या पोळयांत सांठयतात आनी मनीस ही पोळी एकठांय करून म्हौंव तयार करतात. मकरंदांतल्या सुक्रोज हे शर्करेचें व्हड प्रमाणांत लेव्हुलोज (फ्रुक्टोज) आनी डेकस्ट्रोज (ग्लुकोज) ह्या शर्करांत रुपांतर जाता. मकरंदांतल्या उदकाचें प्रमाणय कमी करतात आनी अशे तरेन मकरंदापसून म्हौंव तयार जाता.

म्हौंवांत साकरेचें वट्ट प्रमाण कितलें आसा हाचेर ताची प्रत थरता. जितलें साकरेचें प्रमाण चड तितली म्हौंवाची प्रत उच्च समजतात. म्हौंवाच्यो सादारणपणान तीन प्रती थरयल्यात, १) विशिश्ट गुणधर्म आशिल्ली प्रत, २) 'ए' प्रत, ३) प्रमाणभूत प्रत.

विशिश्ट गुणधर्म आशिल्ली प्रत- हें म्हौंव पोळयांतल्यान यंत्रावरवीं काडटात. हें म्हौंव नितळ आनी पारदर्शक आसता. ए प्रत- हें म्हौंव पोळयांत सैमीक तरेन तयार जाता. हें म्हौंव ६०°से. तापमानाचेर दोट्टी कपड्यांतल्यान गाळूंक येता. प्रमाणभूत प्रत- हें म्हौंवय सैमीक तरेन तयार जाता आनी वासापसून मुक्त आसता.

वेगवेगळया ऋतूंत वेगवेगळया वनस्पतींच्या फुलांपसून मेळपी म्हौंवाक ते वनस्पतीचें नांव दिवपाची पद्दत खूब पुर्विल्ल्या काळासावन प्रचारांत आसा. वेगवेगळया फुलांच्या मकरंदापसून तयार जाल्ल्या म्हौंवांत उण्याअदीक प्रमाणांत फरक आसता. भारतांत जांभळ, हिरडो, चिंच, कडुलिंब, संत्र, लारांज, गेळा, पिशा, व्हायटी, कारवी, आक्रा, म्हसंग, कारळा, तीळ, सांसवीण आदी वनस्पतींच्या फुलांपसून त्या त्या हंगामांत म्हौंव मेळूंक शकता.

म्हौंवामूस खंयच्या फुलाच्या मकरंदापसून म्हौंव तयार करता हाचेर म्हौंवाचें वर्गीकरण करतात. हातूंत एकेच खेपे दोन तीन झाडांच्या फुलांपसून म्हौंव तयार करपी म्हौंवामुसूय आसतात. म्हौंव कशें एकठांय करतात हाचेवयल्यानय ताचें वर्गीकरण करतात. हे पद्दतीप्रमाण म्हौंवाचे जे प्रकार मेळटात. ते अशे-

**१) विलगीकृत म्हौंव** : केंद्रोत्सारक (केंद्रापसून पयस घालपी) प्रेरणेन, गुरुत्वाकर्शणान वा गाळण्यांत पोळयाचे फणयेंतल्यान काडिल्ल्या म्हौंवाक हें नांव दितात. हातूंत जायते प्रकार आसात. १) जातूंत दृश्य स्वरुपांत साकरेचे स्फटिक नासतात अशें म्हौंव २) जातूंत साकरेचें वा परिणामी म्हौंवाचें घनीभवन जाल्लें आसता अशें म्हौंव.

**२) फण्यांतलें म्हौंव** : हें म्हौंव फण्यांतच तयार जाता आनी तें बाजारांत अशे तरेन धाडटात. १) चवकोनी वा काटकोनी. चवकोनी आकाराचें म्हौंव भरिल्ल्या फणयाचे कुडके (हाचे हेर आकारय आसूंक शकतात). २) म्हौंवान भरिल्ली पुराय फणी. ३) विलगीकृत म्हौंव आनी म्हौंवान भरिल्ल्या फणयांच्या कुडक्यांचें मिश्रण.

म्हौंव हें गोड, दाट, आर्द्रताशोशक द्रव आसून ताजें आसतना अर्दपारदर्शक आनी थीर दवरल्यार अपारदर्शक आनी कणिदार आसता. म्हौंवाचो रंग धवो, गडद तपकिरी वा काळो आसता. ताची रूच सौम्य ते उग्र अशी वेगवेगळया स्वरुपाची आसता. ३८°से. चेर म्हौंव हून केल्यार ताची दाटसाण कमी जाता. ४९°से. च्या वयर मात घटसाण कमी जावचें प्रमाण उणें आसता. डेक्स्ट्रिनयुक्त म्हौंव हेर तरेच्या म्हौंवापरस खूबच दाट आसता. ओसाड वाठारांतल्या हीदर वनस्पतीपसून मेळयल्ल्या युरोपीय म्हौंवाची दाटसाण तें फकत धवळतकच बदलता. हें म्हौंव थीर दवरल्यार जेलीवरी जाता आनी धवळल्यार पातळ जाता. म्हौंवांत सादारणपणान वामवलनी शर्करा मेळटात. जाल्यार मकरंदांत मात दक्षिणवलनी शर्करेचें प्रमाण चड आसता. मकरंदाचें म्हौंवांत रुपांतर जाता आसतना म्हौंवामूसांकडल्यान वामवलनी शर्करा तयार जाता.

**रसायनीक गुणधर्म** : म्हौंवांत उदक, शर्करा, अम्लां, खनिज द्रव्यां, एंझायमां, जीवनसत्वां आनी हेर घटक आसतात. शर्करा- म्हौंवांत डेक्स्ट्रोज आनी लेव्हुलोज ह्यो मोनोसॅकेराइट तरेच्यो शर्करा चड प्रमाणांत आसतात. तेभायर ट्रायसॅकेरायड वा पॉलिसॅकॅरायड ह्यो शर्करा म्हौंवांत मेळटात. तशें पळयल्यार म्हौंवांत पंदरायेक तरेच्यो शर्करा दिसून येतात. ह्यो सगळयोच शर्करा मकरंदांत आसनात. पूण एंझायमाच्या आदारान जेन्ना मकरंदाचें म्हौंवांत रुपांतर जाता तेन्ना त्यो तयार जाता आसुंये.

**अम्लां** : म्होवांत सायट्रिक, मॅलिक आनी सक्सिनिक हीं अम्लां चड प्रमाणांत आनी फॉर्मिक आनी ॲसिटिक हीं अम्लां कमी प्रमाणांत मेळटात. म्हौंवाची रूच कांय प्रमाणांत तातुंतले अम्लतेचेर आदारीत आसता.

**खनिज द्रव्यां** : म्हौंवापसून मेळपी राखेचें प्रमाण ०.१७% आसता. म्हौंवांत खनीज द्रव्याचें प्रमाण खूबच कमी आसता. पोटॅशियम, क्लोरीन, गंधक, कॅल्शियम, सोडियम, फॉस्फरस, मॅग्नेशियम, सिलिका, सिलिकॉन, लोखण, मँगनीज, तांबें हीं खनीज द्रव्यां मेळटात.

**एंझायमां** : इनव्हर्टेज (सॅकॅरेज वा सुक्रेज) हें म्हौंवात मेळपी सगळयांत म्हत्वाचें एंझायम. तेभायर म्हौंवांत डायास्टेज वा ॲमिलेज हेंय एंझायम मेळटा.

**जीवनसत्वां :** म्होंवांत खुबूच कमी प्रमाणांत थायामीन, रिबोफ्लाविन, ॲस्कार्बिक अम्ल, पिरिडॉक्सीन (ब६ जीवनसत्व), पँटोथिनिक अम्ल आनी निॲसीन हीं कांय जीवनसत्वां मेळटात.

**हेर घटक :** मकरंदाच्या उद्‌गमाप्रमाण म्होंवांत झँथोफिल, कॅरोटीन आनी क्लोरोफिलाचे अनुजात हीं रंगद्रव्यां आसात. जैव क्रियाशिलता आशिल्ले कांय पदार्थय म्होंवांत आसतात. तंत्रिका प्रभावीत करपी ॲसिटिलकोलिन आनी जंतुनाशक गुणधर्म आशिल्ली इन्‌लीबीन हीं संयुगां कांय प्रमाणांत आसतात.

**वास आनी रूच :** ज्या फुलाच्या मकरंदापसून म्होंव जाता ताचेर म्होंवाचो वास आनी रूच आदारून आसता. जायते फावट अतिउश्णता लागतकच म्होंव इबाडटा आनी ताचो वास ना जावन रुचींतय बदल घडटा. म्होंवांत कण तयार जावपाची क्रिया वाडोवपाची आसल्यार वा तातुंतलें किण्वन (आंबेवप) थांबोवपाचें आसल्यार योग्य तें तापमान वापरून म्होंव हून करचें पडटा.

**विखारी म्होंव :** हाचे दोन प्रकार आसात. पयल्यांत, म्होंवाक लागून म्होंवामूस मरतात आनी दुसऱ्या प्रकारांत म्होंव मनशाक अपायकारक थारता. अशें म्होंव कांय वनस्पतींच्या फुलांतल्या मकरंदापसून तयार जाता. कॅलिफोर्नियांतल्या एस्क्यूलस कॅलिफोर्निका हे वनस्पतीच्या फुलांपसून तयार जाल्लें म्होंव म्होंवांमुसाकच माल पडटा आनी ते मरतात. कालमिया वंशांतल्या झाडाच्या फुलापसून तयार जाल्लें म्होंव मनशाक माल पडटा. ह्या म्होंवापसून अँड्रोमेडोटॉक्सीन ह्या नांवाचें अल्कलॉइड मेळटा. अशें म्होंव मनशान खाल्यार तो बेशुध्द पडटा. ऱ्होडोडेंड्रस पॅनिकम ह्या भारतांत मेळपी झाडापसून जें म्होंव मेळटा तेंय विखारी आसता. लिंबाच्या फुलांपसून मेळपी म्होंव मुसाक मारक थरता. विखारी म्होंव कोडू आनी रंगान गाड आसता.

**मधुरसापसून जावपी म्होंव :** मावा, खवले किडे हे जीव वनस्पतीचो रोस सेवन करतात. जेन्ना ते जाय ताचे परस चड रोस सेवन करतात, तेन्ना तांच्या पंचनतंत्रांतल्यान प्रक्रिया जावन हो चड रोस तो जीव ज्या पानार आसता थंय पडटा. हाकाच मधुरस म्हण्टात. मुयो हो मधुरस अन्न म्हूण घेतात. जेन्नां फुलांपसून मेळपी मकरंद उणो पडटा तेन्ना म्होंवामूस मधुरस एकठांय करतात आनी ताचेपसून म्होंव करतात. गुलाब, पॉलर, विलो आदी झाडांच्या पानांचेर हो मधुरस चड प्रमाणांत मेळटा.

**घनरुपांत मेळपी म्होंवः** कांय म्होंवामूस फातराचे खाचींत मकरंद एकठांय करतात. थंयच ताचें म्होंवांत रुपांतर जाता. ह्या म्होंवांतले शर्करेचे स्फटिक जातात. तो घनरुपांत आशिल्ल्यान जायते दीस तिगता. हो म्होंवाचो प्रकार रशियेंतल्या आझर बैजान राज्यांत मेळटा.

**किरणोत्सर्गी म्होंव :** म्हळयार भेदक कण वा किरण भायर उडोवपाचो गुणधर्म आशिल्लो. हें म्होंव कांय वनस्पतींपसून मेळपी मकरंदांत आनी जमनींत मेळपी पोळयांत मेळटा. छायाचित्रण पट्टेचेर ह्या म्होंवांतल्या किरणाचें चित्रण करूंक मेळटा अशें ऑलिन कॉलास ह्या फ्रेंच रसायन शास्त्रज्ञान १९०८ त सोदून काडलें. कॅन्सरावयल्या उपचारांत हें म्होंव उपेगी पडटा.

**कृत्रिम मकरंद :** म्होंवामूस गिमांत मकरंद एकठांय करून म्होंव तयार करतात. शिंयातेंपार ते पोळयांत रावन जमयल्ल्या म्होंवार जगतात. जर तांकां कृत्रिम मकरंदाची पुरवण केली तर ते भायर वनचनासतना वर्सुयभर पोळयांत रावन कृत्रिम मकरंदापसून म्होंव तयार करतले असो विचार करून, रशियन शास्त्रज्ञांनी तसो उपाय केलो आनी तांचो हो उपाय यशस्वी थरलो.

**कृत्रिम म्होंव :** शुध्द साकरेच्या विद्रावांत विशिश्ट तरेचीं कार्बनी आनी अकार्बनी द्रव्यां आनी अम्लां भरसून ह्या द्रव्याचें जलीय विच्छेदन करपाक येता आनी ताका लागून साकरेचें रुपांतर जाता. ह्या म्होंवांत डेक्स्ट्रोज आनी लेव्युलॉज ह्या शर्करेचें प्रमाण सैमीक म्होंवावरी वा ताचेयपरस चड जाता. हातूंत रंगाखातीर कृत्रिम द्रव्यां आनी फावते प्रमाणांत वनजीवनसत्वांय भरशितात.

म्होंव हो एक जंतुघ्न पदार्थ. तातूंत कसलेच तरेचे जीव जीते उरनात. पूण झायगोसॅकॅरोमायसीज यीस्टच्यो कांय जाती तातूंत आसतात. ह्या यीस्टच्यो पेशी वाऱ्यांत, उदकांत, धुल्लांत वा परागकणाचेर आसतात. म्होंवामूस जेन्ना मकरंद एकठांय करतात तेन्ना ताचेवांगडा म्होंवांतय तांचो प्रवेश जाता. म्होंवांत जर ह्या यीस्ट कोशिकांची संख्या चड जाली जाल्यार म्होंवाचें रोखडेंच किण्वन जाता. २५°-३८°से. ह्या तापमानांत यीस्ट कोशिकांची वाड जाता. जर तें तापमान १०°से. च्या सकयल आसलें जाल्यार तांची वाड जायना. सगळेतरेच्या म्होंवांत थोडें तरी कीण्व आसताच. ताका लागून तापमान १०°से. वयर आसल्यार रोखडेंच किण्वन सुरू जाता. अशा म्होंवाक ६३°सें. तापमानांत ३०मिनटां उश्णता दिल्यार म्होंवांतलें किण्व नश्ट जावन किण्वन क्रिया बंद जाता. म्होंवाचें किण्वन जावचें न्हय हाका लागून फाव ते उपाय घेवंचे पडटात. देखीक : पुराय तयार जाल्या वा मेणान म्होंवाचीं सगळीं घरां बंद जाल्याबागर म्होंव काडप ना. म्होंव काडपाचीं यंत्रां आनी उपकरणां हून उदकांत नितळ धुवप, म्होंव निवळ आयदनांत घेवन रोखडेंच बंद करप, म्होंव काडटकच ताचेर रोखडीच फुडली प्रक्रिया करप, म्होंव जातूंत सांठयतात तीं आयदनां फाव त्या धातुचीं वा योग्य धातुंचो लेप दिल्लीं आसचीं आदी जायते उपाय घेतात.

**उपेग :** खूब पुर्विल्ल्या काळासावन मनीस म्होंवाचो उपेग करता. म्होंव हें चड ऊर्जा दिवपी अन्न आशिल्ल्यान मनशाच्या आहारांत ताचो आस्पाव जाता. बेकिंग क्रियेन केल्ल्या खाद्यपदार्थांत साखर घालचे

बदला म्होंव घाल्यार त्या पदार्थाक आगळीच रूच येता (देखीक : केक). म्होंवांतल्या लेव्हुलोज हे शर्करेंत आर्द्रता शोशून घेवपाचो गुणर्धम आशिल्ल्यान अशें घडटा.

ल्हान भुरग्यांच्या आहारांत फाव त्या प्रमाणांत म्होंव आसल्यार बरोच फायदो जाता. स्निग्ध पदार्थांचें पचन जावपाक म्होंव बरें पडटा. म्होंवाक लागून भूक वाडप आनी रक्तांतलें हीमोग्लोबीन वाडप, शरिराचें वजन वाडप आनी अर्जीण ना जाता. अतिसार, ओंकारो, मुड्डूस, आंतकड्याचो दाह आदी विकारांचेर म्होंव वखदी आसा. खेळगड्याक वा कश्टांचीं कामां करप्यांक म्होंव घेतल्यार थकवो येना, तशेंच तरतरी येता. जायत्या धर्मीक विधींत म्होंवाचो उपेग करतात. मूर्तीच्या अभिशेक-पुजेवेळार म्होंव वापरतात. म्होंव हें पंचामृतांतलें एक आसा. निवेद्याखातीरय ताचो उपेग करतात. श्राध्दाच्या जेवणांत म्होंवाची गरज लागता.

उच्च घनता आनी अम्लता ह्या गुणधर्मांक लागून म्होंवांत मनशाक बाधक अशे जीव उरनात. म्होंवाच्या तर्पण परिणामाक लागून जंतूंचें निर्जलीकरण जाता आनी ताचो नाश जाता. म्होंवांतल्या इन्हीबीन ह्या जंतुनाशक पदार्थाक लागून म्होंवाचें निर्जंतुकीकरण जाता.

**वखदी गुणधर्म :** भाजील्ले कातीर म्होंवाचो लेप गुणकारी पडटा. म्होंवांत आशिल्ली शर्करा, खनिज द्रव्यां आनी म्होंवाची निर्जंतुकीकरण तांक हाकालागून जखमेचेर मलमपट्टी करतना म्होंवाचो वापर करतात. इजिप्तांत पुर्विल्ल्या काळांत ममी तयार करतना म्होंवाचो उपेग करताले. म्होंव घेतल्यार सोऱ्याची धुंदी देंवता अशें दिसून आयलां. वखदी गुळयो करतना ताका गोडसाण हाडपाक म्होंवाचो उपेग करतात. म्होंव आनी उदक हांचें मिश्रण आंबोवन ताचेपसून जें म्होंव तयार जाता ताका इंग्लिशींत 'मीड' अशें म्हण्टात.

**आयुर्वेदांतली म्होंवाची सुवात :** म्होंव हें गोड, भूक वाडोवपी, वर्णाक उपकारक, स्वर सुदारपी, पचपाक ल्हव, काळजाक हितकारक, शुक्रवर्धक, दोळ्यांक हितकारक, प्रसन्नता निर्माण करपी, पित्त, कफ, मेदमेह, उचकी, उस्वास, अतीसार, ओंकारी, तान, कृमी हांकां ना करपी आसा. आयुर्वेदांत म्होंवाचे दोन प्रकार वर्णिल्यात. नवें म्होंव हें वांती, मेदनाशक आनी गोड आसता. पोरनें म्होंव हें त्रिदोशनाशक, मेद आनी स्थुलता नाशक आसता.

म्होंव हें तरेकवार द्रव्यांनी युक्त आशिल्ल्यान तें रोगनाशक म्हूण वापरपाक मेळटा. झाडांच्या घोलिंतल्या पोळयांतलें म्होंव कफहर आनी पुश्टीक आसता.

संवसारांतल्या म्होंवा उत्पादनांतले मुखेल देश अशेः अंगोला, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, अर्जेंटिना, ऑस्ट्रेलिया, इथिओपिया, कॅनडा, ग्रीस, चीन, तुर्कस्तान, अस्तंत जर्मनी, पोलंड, बल्गेरिया, मॅलॅगसी, मेक्सिको, रशिया, रुमानिया, स्पेन. संवसारांतल्या तुलनेमानांत भारतांतलें म्होंवाचें उत्पादन खुबूच कमी आसा. भारतांत आंध्र प्रदेश, आसाम, उत्तर प्रदेश, ओरिसा, कर्नाटक, केरळ, जम्मू आनी काश्मीर, तमिळनाडू, त्रिपुरा, अस्तंत बंगाल, बिहार, मणिपूर, मध्य प्रदेश, महाराष्ट्र, मेघालय, हिमाचल प्रदेश आदी राज्यांनी म्होंवाचें उत्पादन जाता. भारतांत व्हड प्रमाणांत म्होंव उत्पादन करपी वाठार म्हळयार तमिळनाडू, कन्याकुमारी, कोडई दोंगुल्ल्यो आदी. कर्नाटक-कारवार, कुर्ग आदी; केरळ-कोट्टयम, त्रिवेंद्रम, त्रिपुर आदी; बिहार-मुझफरपूर, पूर्णिया, दरभंगा आदी. महाराष्ट्र-महाबळेश्वर, आंबोली, राधानगरी, पाटगांव आदी. म्होंवाच्या वेपाराची तमिळनाडू, केरळ, कर्नाटक, आंध्र प्रदेश, बिहार, उत्तर प्रदेश, जम्मू काश्मीर आनी महाराष्ट्र हीं राज्यां मुखेल केंद्रां आसात. शुध्द म्होंव आनी अशुध्द म्होंव वा भेसळ म्होंव हातूंत भेद करून मागीरच योग्य गुणवत्तेचें म्होंव विक्रीक हाडपाची वेवस्था सरकारी ॲगमार्क यंत्रणेंतल्यान करतात.

- कों. वि. सं. मं.

******

# कोंकणी विश्वकोश

## खंड चवथो

## (य ते ज्ञ)

संपादक
डॉ. तानाजी हळर्णकार

गोवा विश्वविद्यालय, ताळगांव-गोंय.
२०००

# कोंकणी विश्वकोश संपादक मंडळ

**संपादक**
डॉ. तानाजी हळर्णकार

♦

**संशोधन सहाय्यक**
श्री. रंजन नायक
श्रीमती सुरेखा नायक तोटेकार

♦

**संपादकीय सहाय्यक**
श्रीमती कांचन विवेक मोर्डेकार
श्रीमती कल्पना नंदन वाळके

♦

**कोंकणी विश्वकोश सल्लागार समिती**
डॉ. अशोक जोशी
डॉ. सदाशिव देव
डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
डॉ. अरूण हेबळेकार
डॉ. ऑलिव्हिन्यु गोमीश
डॉ. सोमनाथ कोमरपंत
डॉ. उदय सांगोल्डकार
प्रा. देवीदास बोरकार
डॉ. तानाजी हळर्णकार

# मनोगत

कोंकणी विश्वकोशाचो हो चवथो आनी निमणो खंड प्रकाशित करतना आमकां खूब आनंद जाता.

कोंकणी भाशेची उदरगत करप हो गोवा विद्यापिठाचो एक मुखेल उद्देश आसा. ह्या उद्देशाक धरून गोवा विद्यापिठान कोंकणी विश्वकोश निर्मितीचो संकल्प केल्लो. कोंकणी भाशेंतल्या ह्या पयल्या वयल्या विश्वकोशाची निर्मिती यशस्वीपणान करून गोवा विद्यापिठान केल्लो संकल्प आयज सार्थकी जाला. म्हजे उपकुलगुरू पदाचे कारकिर्दींत दुसरो, तिसरो आनी चवथो अशे तीन खंड प्रकाशित जाले हें हांव म्हजें परम भाग्य समजतां.

सर्वसादारण कोंकणी मनशाक, तशेंच विद्वानाक ताचे निजाचे भाशेंतल्यान संवसारांतल्या गिन्यानाची सोपेपणी वळख करून दिवपाच्या उद्देशान गोवा विद्यापिठान कोंकणी विश्वकोशाची निर्मिती करूंक घेतली. जाका आपली आवयभास सोडून दुसरी भास येना तो गिन्यानापसून वंचीत उरचो न्ही, तशेंच जाका हेर भासो येतात ताचेखातीर ताचे निजाचे भाशेंतल्यान खाशेलें गिन्यान मेळचें अशो दोट्टी अपेक्षा सफल करपी हो विश्वकोश कोंकणीखातीर आदर्श असो शास्त्रीय संदर्भग्रंथ आसा.

निकतीच वयर सरूंक लागिल्ले कोंकणी भाशेंतलो विश्वकोश निर्माण करप हो भोव कश्टांचो वावर. अपुरीं साधनां आनी अपुरें मनीसबळ घेवन संपादक मंडळान हो वावर पुराय केलो, तेखातीर हांव तांची तोखणाय करून तांकां शाबासकी दितां. विशेश करून, विश्वकोशाचे संपादक डॉ. तानाजी हळर्णकार हांणी दिल्लें योगदान गोवा विद्यापिठाच्या इतिहासांत नमूद करपासारकें आशिल्ल्यान हांव तांकां खेरीत धन्यवाद दितां.

पयल्या तीन खंडांसारकेंच ह्या चवथ्या खंडाचेंय कोंकणी मनशाकडल्यान उत्स्फूर्त स्वागत जातलें अशी आशा बाळगितां.


गोवा विद्यापीठ
ताळगांव - गोंय.
२६ ऑक्टोबर २०००.

**डॉ. बाळकृष्ण सोंदे**
उपकुलगुरू

# यशस्वी सांगता

कोंकणी विश्वकोशाचो हो चवथो आनी निमाणो खंड प्रकाशित जातना ध्येयपुर्तीची आमकां खोस भोगप सभावीक आसा.

कोंकणी विश्वकोश हो गोवा विद्यापिठाचो एक म्हत्वाचो तसो व्हडा आटापाचो संशोधन प्रकल्प. आयजवरच्या कोंकणी संवसारांतलो तो एक म्हत्वाकांक्षी उपक्रम. सामान्य कोंकणी मनशाक ताचे निजाचे भाशेंतल्यान संवसारीक गिन्यान दिवपी कोंकणींतलो हो पयलो वयलो प्रयोग. ह्या चवथ्या खंडाच्या प्रकाशनान ह्या म्हत्वाकांक्षी उपक्रमाची यशस्वी सांगता जाता.

कोंकणी भाशेची उदरगत हें गोवा विद्यापिठाचें एक मुखेल उद्दीश्ट. हें उद्दीश्ट नदरे मुखार दवरून गोवा विद्यापिठाचे संस्थापक उपकुलगुरू डॉ. बी. शेख अली हाणीं, विद्यापिठाचे प्रतिश्ठेक सोबसारक्या कोंकणी विश्वकोशाची कल्पना मुखार हाडली आनी तितकेच आस्थेन ती कार्यरतय केली. तांचे प्रेरणेन सुरू केल्ल्या ह्या वावराक उपरांतच्या उपकुलगुरूंचें, विशेशतायेन डॉ. पद्माकर दुभाषी आनी डॉ. बाळकृष्ण सोंदे हांचें प्रोत्साहन आनी सहकार्य मेळ्ळें.

निकतीच वयर सरूंक लागिल्ले कोंकणी भाशेंत विश्वकोशासारके निर्मितीचो संकल्प सोडप हें तशें एके तरेचें धाडसच आसलें. अशे निर्मिती खातीर खाशेले तरेची लेखन परंपरा लागता. संदर्भ सामुग्री, यंत्रणा, मनीस बळ लागता आनी सगळ्यांच्या वयर दुडवांचें फाटबळ लागता. हेर प्रगत भासांचे तुळेन कोंकणीकडेन ह्या गजालींचो उणाव आसा. अशे फाटभुंयेर लागीं लागीं एकेक हजार पानांचे घसघसीत अशे चार खंड भायर सरले ही समस्त कोंकणी मनशांखातीर संतोशाची तशी अभिमानाची गजाल आसा. हो प्रकल्प यशस्वी रितीन पुराय करपाक कोंकणी भाशेवयली श्रध्दा खूब उपकारा पडली म्हणूं येता. आपले मायभाशेकडली आपली लागणूक हे भावनेन ह्या उपक्रमाकडेन संबंदितांनीं पळयलें आनी यशपुर्तीचें तेंच खरें बळगें थारलें. ही लागणूक मानून घेवंक नासली तर अपुऱ्या साधनांनी एद्या व्हड आटापाचो प्रकल्प तडीक व्हरप भोवच कुस्तार आसलें.

संवसारीक गिन्यान चार खंडांच्या चार हजार पानांनीं आस्पावन घेवप तशें भोव कठीणच. वाचकांचें पुराय समाधान करपाक चार खंड उणे पडटात हाचें भान आमी दवरलां. तरीय गिन्यानाची चडांत चड वळख करून दिवपाचो आमी आमचे परीन जाता तितको यत्न केला हें नमूद करीनशें दिसता. फुडाराक धा - बारा खंडांचो कोंकणी विश्वकोश निर्माण करपाचो कोणेय संकल्प सोडलो तर ताचेखातीर बुनयादी वावर म्हणून ह्या चार खंडांची मदत जावं येता.

आदीं सांगलां तेप्रमाण, कोंकणींत गरजेच्या साधन सामुग्रीचो उणाव आशिल्ल्यान, फाटल्या खंडांसारकेंच आमकां भारतीय आनी परकी भाशेंतल्या विश्वकोशांचें आनी हेर संदर्भ ग्रंथांचें रीण घेवंचें लागलां. मराठी विश्वकोश, हिंदी विश्वकोश, मराठी ज्ञानकोश, भारतीय संस्कृती कोश, भारतीय समाज विज्ञान कोश, Encyclopaedia Britanica, Encyclopaedia of Social Sciences, World Book Encyclopaedia, Encyclopaedia of Religions, Encyclopaedia of Philosophy, Statesman's year Book, Encyclopaedia of International Sports आनी हेर संदर्भ ग्रंथांचो ह्या कोशाक आदार मेळ्ळा.

कोशनिर्मीतीक विविध प्रक्रियेंतल्यान वचचें पडटा. विशयांची निवड, नोंदीचें नियोजन, नोंद लेखन, मजकूर एकठांवप, तो तपासप, ताचेर संपादकीय संस्कार करप, प्रुफां तपासप, छापणावळ करप, कोशाची बांदणी करप अशा जायत्या सोपस्कारांतल्यान कोश भायर सरता. हे प्रक्रियेच्या खंयचेय एके सुवातेर कोणाचोय दोळो चुकोवन चूक भितर रिगपाची शक्यताय न्हयकारूंक येना. सगळ्याच कोशांचो तसो अणभव आसा. कोंकणी विश्वकोश ताका आडवाद उरूंक शकना.

कोशनिर्मितीच्या वावरांत जायत्या जाणांचें सहकार्य मेळ्ळां. गोवा विद्यापिठाचे आजी माजी उपकुलगुरू, कुलसचिव, सल्लागार मंडळाचे वांगडी, नोंद लेखक, समिक्षक, संपादक मंडळाचे वांगडी, छापणावळ संबंदीत व्यक्ती हांचें मोलादीक योगदान मेळ्ळां.

फाटल्या तीन खंडांसारकेंच ह्या चवथ्या खंडाकय कोंकणी मनशांचो व्हडा प्रमाणांत प्रतिसाद मेळटलो ही आस्त आमी बाळगून आसा.

आश्विन कृ. चतुर्दस
(दिवाळी)
बिरेस्तार २६ ऑक्टोबर २०००

डॉ. तानाजी हळर्णकार
संपादक

**कोंकणी विश्वकोश**

खंड चवथो

लेखक, अणकारपी, समीक्षक, नियाळ करपी आनी चित्रकार

**श्रीमती आमोणकार सुधा,** निवृत्त शिक्षिका, म्हापशें.

**डॉ. आल्मेदा मॅथ्यू,** एस्.जे. संचालक, थॉमस स्टिव्हन्स कोंकणी केंद्र, पर्वरी.

**डॉ. कात्यायन रवींद्र,** हिंदी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**प्रा. कानोळकार बाळकृष्ण,** मराठी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**डॉ. कामत व्ही. व्ही.,** संगणक विज्ञान विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**प्रा. केरकार राजेंद्र,** शिक्षक, सत्तरी.

**श्री. केळकार अनंत,** आकाशवाणी, पणजी.

**श्रीमती कोळंबकार शिला,** लेखिका, मुलूंड, मुंबय.

**डॉ. खांडेपारकार ए. व्ही.,** पशुसंवर्धन खातें, कुर्टी, फोंडें.

**श्री. गांवकार विश्राम,** शेती अधिकारी, भारतीय शेती संशोधन मंडळ, ओल्ड गोवा.

**श्री. गावणेकार माणिकराव राम नायक,** निवृत्त मुख्याध्यापक, श्रीमती हिराबाई तळावलीकार हायस्कूल, साकोर्डें.

**श्री. घाणेकार दामोदर,** समीक्षक, पणजी.

**प्रा. च्यारी पुर्णानंद,** मल्लिकार्जुन महाविद्यालय, काणकोण.

**डॉ. डिसुझा चंद्रलेखा,** कोंकणी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**प्रा. तडकोडकार प्रियदर्शनी,** कोंकणी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**श्री. तोटेकार अच्युत,** लेखक, म्हाड्डोळ.

**श्री. थळी मुकेश,** आकाशवाणी, पणजी.

**श्रीमती नायक जयंती,** संशोधन सहाय्यक, गोवा कोंकणी अकादमी, बोरी.

**प्रा. नायक दत्ता,** धेंपो कॉमर्स कॉलेज, पणजी.

**श्री. नायक पुंडलीक नारायण,** लेखक, वळवय, फोंडें.

**प्रा. पवार राजय,** सरकारी महाविद्यालय, केपें.

**श्री. पाडगांवकार प्रकाश,** लेखक, पर्वरी.

**डॉ. पै. आय. के.** पशुविज्ञान विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**प्रा. फडते प्रेमानंद,** श्री. दामोदर ज्यु. कॉलेज ऑफ सायन्स, मडगांव.

**डॉ. बुडकुले किरण,** इंग्लीश विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**डॉ. बोरकार अवधुत,** वैजकी अधिकारी, मडकय.

**डॉ. भट अनंत राम,** निवृत्त शिक्षक, प्रियोळ - म्हाड्डोळ.

**प्रा. मांद्रेकार वृषाली,** हिंदी विभाग, गोवा विद्यापीठ.

**डॉ. मालवीय एच्. के.** पशुचिकित्सक, पशुसंवर्धन खातें, कुर्टी - फोंडें.

**प्रा. म्हस्के प्रदिप,** जी. व्ही. एम. कॉलेज ऑफ कॉमर्स, फोंडें.

**श्री. म्हाड्डोळकार रवींद्र,** म्हाड्डोळ.

**श्री. म्हाळशी कमलाकर,** उपसचिव, गोवा कोंकणी अकादमी बोरी.

**डॉ. रामाणी रामकृष्ण घ.,** वैजकी तज्ञ, मडगांव.

**श्रीमती राव देशपांडे कमलादेवी,** लेखिका, पणजी.

**डॉ. वागळे ए. एस्.,** पशुविज्ञान तज्ञ, सांतइनेज, पणजी.

**डॉ. शास्त्री, बी. एस्.,** माजी विभाग प्रमुख, इतिहास विभाग गोवा विद्यापीठ.

**श्रीमती सलत्री अंमिता नायक,** शिक्षिका, पर्वरी.

**श्री. सुरसुरे पंढरीनाथ,** काकोडें, कुडचडें.

**डॉ. हळर्णकर आनंद,** वैजकी तज्ञ, बांदोडें.

**डॉ. हेगडे राजेंद्र,** मानसोपचार तज्ञ, मडगांव.

**डॉ. हेदे अनंत,** वैजकी तज्ञ, वास्को - द - गामा.

# कोंकणी विश्वकोशांत वापरिल्ल्या संक्षेपांची वळेरी

| | |
|---|---|
| इ. स. | इसवी सन |
| इ. स. प. | इसवी सना पयलीं |
| किग्रॅ. | किलोग्रॅम |
| किमी. | किलोमीटर |
| कों. वि. सं. मं. | कोंकणी विश्वकोश संपादक मंडळ |
| चौ. किमी. | चौरस किलोमीटर |
| चौ. सेंमी. | चौरस सेंटिमीटर |
| मिमी. | मिलिमीटर |
| मी. | मीटर |
| सॅ. | सेल्सिअस तापमान |
| सेंमी. | सेंटिमीटर |

ह्या खंडांत आयिल्ले नकाशे हे अधिकृत नकाशे न्हय. ते नकाशे म्हळयार मूळ नकाशाच्यो सदळ आकृतायो जावन आसात.

# कोंकणी विश्वकोश

## खंड चवथो

**यंत्रमानव :** (पळेयात रोबॉट).

**य :** देवनागरी लिपींतलो सव्विसावो वर्ण. ह्या वर्णाची पयली आनी दुसरी अवस्था अशोकाच्या गिरनारच्या लेखांत मेळटा. हाची तिसरी अवस्था कुषाणवंशी राजांच्या (इ. स. पयलो आनी दुसरो शेंकडो) वेळच्या मथुरेच्या लेखांत 'र्य्य' आनी 'स्य' ह्या जोडाक्षरांत दिसता. हाची निमणी अवस्था इ. स. ५८८ तल्या महानामाच्या बुद्धगयाच्या लेखांत मेळटा.



'य'च्या रुपाचो विकासक्रम

सद्या आमी बरयतात तसो 'य' इ.स.च्या इकराव्या शेंकड्यांतल्या उज्जयिनीच्या लेखांत बरयल्लो आसा.

कामधेनुतंत्रांत य ह्या वर्णाचें स्वरूप अशें आसा :

यकारं शृणु चार्व्ड;गि चतुष्कोणमयं सदा,<br>
पलालधूमसड;काशं स्वयं परमकुण्डली ।।<br>
पञ्चप्राणमयं वर्णं पञ्चदेवमयं सदा ।<br>
त्रिशक्तिसहितं वर्णं त्रिबिन्दुसहितं तथा ।<br>
प्रणमामि सदा वर्णं मूर्तिमन्मोक्षमव्ययम् ।।

**अर्थ** - हे सुंदरे, यकाराचें स्वरूप आयक. यकार हो सदां चतुष्कोणामय, तुसाच्या धूमासारको, स्वता परमकुंडली, पंचप्राणमय, पंचदेवमय, त्रिशक्तिसहित आनी त्रिबिंदुयुक्त असो आसा. मूर्तिमंत मोक्ष आनी अव्यय अशा ह्या वर्णाक हांव सदांच पांयां पडटा.

'य' न काव्याक सुरवात केली जाल्यार लक्ष्मी मेळटा अशें सांगतात.

ताळू हें हाचें उच्चारणस्थान.

- कों. वि. सं. मं.

**यजुर्वेद :** चार वेदांतलो दुसरो वेद. सगळ्या वैदिक साहित्यांत यजुर्वेदाक एक खाशेली सुवात आसा. यजुर्वेदांत वैदिक कर्मकांडाचेर चड भर दिल्लो आसून यज्ञसंस्थेचोय खोलायेन विचार जाल्लो आसा. वेगवेगळ्या यज्ञांनी जे खाशेले अशे मंत्र म्हणपाचे आसतात, वा जे खाशेले नेम पाळपाचे आसतात त्या मंत्रांचो आनी नेमांचो संग्रह यजुर्वेदांत मेळटा. यज्ञाचो मुखेल ऋत्विज अध्वर्यू आसता. ताच्याच कार्याचो आस्पाव ह्या वेदांत आशिल्ल्यान ताका अध्वर्यूवेद अशेंय म्हणप जाता. शुक्ल-कृष्णभेदः यजुर्वेदाचे शुक्ल आनी कृष्ण अशे दोन भेद आसात. तशेंच ब्रह्म आनी आदित्य अशे दोन संप्रदाय आसात. ब्रह्म संप्रदायाचो प्रतिनिधी कृष्ण यजुर्वेद आसून, आदित्य संप्रदायाचो शुक्ल यजुर्वेद आसा. शुक्ल आनी कृष्ण अशे यजुर्वेदाचे दोन भेद कशे जाले तेविशीं म्हायती मेळटा ती अशी : यजुर्वेदाचो मुखेल आचार्य वैशंपायन हाणें याज्ञवल्क्या सारक्या जायत्या शिश्यांक शिकोवन तयार केले. फुडें ह्या दोगांत गुरू शिश्यांमदीं वायटपण आयलें. तेन्ना वैशंपायनान याज्ञवल्क्याकडेन ताका शिकयल्लो वेद परत मागलो. याज्ञवल्क्यान वेदविद्येक मूर्तिमंत करून तिचें वमन केलें आनी त्या स्वरुपांत गुरूचो वेद ताका परत केलो. उपरांत सुर्याची उपासना करून ताचेकडल्यान आपल्याखातीर वेद घेतलो. ताणें आपल्या वेदाक शुक्ल यजुर्वेद अशें नांव दिलें आनी ताच्या विरोधांत वैशंपायनाच्या पोरन्या यजुर्वेदाक कृष्ण यजुर्वेद म्हणूंक लागले.

**शाखाविभाग :** सूतसंहिता, ब्रह्मांड पुराण, स्कंद पुराण हांचेभायर यजुर्वेदाच्यो १०७ शाखा आसात. पूण मुक्तिकोपनिषदाप्रमाण त्यो १०९, पतंजलीच्या मतान १०० आनी शौनकाच्या चरणव्यूहाप्रमाण ८६ आसात. सद्या मात यजुर्वेदाच्यो फकत स शाखा उपलब्ध आसात. तांचीं नांवां अशीं - तैत्तिरीय, मैत्रायणी, कठ, कपिष्ठल, वाजसनेय आनी काण्व. हातुंतल्यो पयल्यो चार कृष्ण यजुर्वेदाच्यो आनी फुडल्यो दोन शुक्ल यजुर्वेदाच्यो शाखा आसात.

शुक्ल यजुर्वेदाच्यो पंदरा शाखा आसात त्यो अशो -

१. जाबाल शाखा : हे शाखेची संहिता वा ब्राह्मण उपलब्ध ना.

जाबालोपनिषद तितलें आसा. २. बौधेय शारवा : हे शारवेचीं बौधायन, गौधेय, गौधायन आनी औधेय अशीं हेर नांवां आसात. सदद्या हे शारवेचो स्वंयचोच ग्रंथ उपलब्ध ना. ३. काण्व शारवा : हे शारवेची संहिता आनी ब्राह्मण उपलब्ध आसा. ४. माध्यन्दिन शारवा : हे शारवेची संहिता आनी ब्राह्मण उपलब्ध आसा. ५. शापेयी शारवा : हिका शापेय, शापीय, शापुय आनी साफेय अशींय नांवां आसात. हे शारवेची कांयच म्हायती मेळना. ६. तापनीय शारवा : ७. कपोल शारवा. ८. पौंड्रवत्स शारवा ९. आवटी शारवा १०. परमावटिक शारवा : ह्या शारवांचे ग्रंथ उपलब्ध नात. ११. पराशर शारवा : हे शारवेचें धर्मसूत्र मेळटा. १२. वैणेय शारवा १३. वैधेय शारवा : ह्या शारवांचीय कांयच म्हायती मेळना. १४. कात्यायन शारवा : हे शारवेचें श्रौतसूत्र आनी गृह्यसूत्र उपलब्ध आसा. १५. वैजवाप शारवा : हे शारवेचें गृह्यसूत्र उपलब्ध आसा. तेभायर औधेय वा अद्ध, गालव, गौधेय, पुंड्र आनी शापत्य ह्या शारवांचो उल्लेख पुराणांत आयिल्लो आसा.

कृष्ण यजुर्वेदाच्या कांय शारवांचीं नांवां अशीं : १. चरक शारवा : उव्वटान आपल्या शुक्ल यजुर्वेद भाश्यांत चरकसंहितेंतले मंत्र दिल्ले आसात. सायणाचार्यानय चरक ब्राह्मणांचो उल्लेख केल्लो आसा. २. कठ शारवा :हे शारवेचे काठक संहिता, काठक ब्राह्मण, काठक आरण्यक, कठोपनिषद आनी काठक गृह्यसुत्रां इतले ग्रंथ उपलब्ध आसात. ३. प्राच्य कठ शारवा : हिचें कांयच साहित्य उपलब्ध ना. ४. कपिष्ठल कठ शारवा : हे शारवेची संहिता उपलब्ध आसा. पूण ती पूर्ण स्वरुपांत ना. ५. चारायणीय शारवा : हे शारवेची संहिता आनी शिक्षा उपलब्ध आसा. ६. वारायणीय शारवा. ७. वार्तंतवीय शारवा. ह्या दोनूय शारवांचे ग्रंथ उपलब्ध नात. ८. श्वेताश्वतर शारवा : हिचें उपनिषद प्रसिद्द आसा. ९. औपमन्यव शारवा. १०. पातंडनीय शारवा : ह्या शारवांचे सदद्या स्वंयचेच ग्रंथ उपलब्ध नात. ११. मैत्रायणीय शारवा : मैत्रायणीय संहिता, मैत्रायणीय ब्राह्मण, मैत्रायणीयोपनिषद आनी गृह्यसूत्र इतले हे शारवेचें साहित्य उपलब्ध आसा. १२. मानव शारवा : मैत्रायणीय शारवेची ही उपशारवा आसा. हे शारवेचे मानव श्रौतसूत्र आनी गृह्यसूत्र, गृह्यपरिशिश्ट आनी शुल्बसूत्र इतले ग्रंथ उपलब्ध आसात. १३. वराह शारवा : हे शारवेचे श्रौतसूत्र, गृह्यसूत्र, परिशिश्ट आनी गृह्यपद्दती इतले ग्रंथ मेळटात. १४. दुंदुभ शारवा : मैत्रायणीय शारवेची उपशारवा. हे शारवेचें साहित्य उपलब्ध ना. १५. छागलेय शारवा : हिचेय कांयच ग्रंथ मेळनात. १६. हारिद्रवीय शारवा : हे शारवेचे ब्राह्मण, गृह्यसूत्र, रिवल आनी उपरिवल ह्या ग्रंथांचो उल्लेख मेळटा. १७. श्यामायन शारवा. १८. श्याम शारवा : ह्या दोनूय शारवांचें साहित्य उपलब्ध ना. १९. तैत्तिरिय शारवा : हिच्यो संहिता, ब्राह्मण, आरण्यक आनी उपनिषद उपलब्ध आसात. २०. औरवेय शारवा. २१. रवांडिकेय शारवा : हातूंत रवांडिकेय ब्राह्मणांचो उल्लेख मेळटा. २२. आपस्तंब शारवा : हे शारवेचे श्रौतसूत्र, गृह्यसूत्र, धर्मसूत्र आनी शुल्बसूत्र उपलब्ध आसात. २३. भरद्वाज शारवा : गृंह्यसूत्र आनी श्रौतसूत्र उपलब्ध आसा. २४. हिरण्यकेशी शारवा : श्रौतसूत्र, गृह्यसूत्र, धर्मसूत्र आनी शुल्बसूत्र उपलब्ध आसा. २५. बौधायन शारवा : हिचेय श्रौतसूत्र, धर्मसूत्र, गृह्यसूत्र आनी शुल्बसूत्र प्रसिद्द आसात. २६. सत्याषाढ शारवा : हिरण्यकेशी सुत्रांकच सत्याषाढ अशेंय नांव आसा. २७. आत्रेय शारवा : हे शारवेच्या साहित्याचो उल्लेख मेळना. २८. आलंबी शारवा. २९. पलंग शारवा. ३०. कमल शारवा. ३१. तंडी शारवा : हांचें कांयच साहित्य उपलब्ध ना. ३२. कलाप वा कलापी शारवा : पाणिनीच्या मतान कठ शारवा ही कलाप शारवेचो अणकार. ३३. तुंबरु शारवा ३४. उलप शारवा - ह्या शारवांविशीं कांयच म्हायती मेळना. ३५. वैरवानस शारवा : हे शारवेचें श्रौतसूत्र आनी स्मार्त सूत्र प्रसिद्द आसात. ३६. वाधूल शारवा : हे शारवेचीं सूत्रां मेळटात. ३७. आग्निवेश्य शारवा : हे शारवेचें कल्पसूत्र उपलब्ध आसा ३८. कौंडिण्य शारवा : हे शारवेचें साहित्य उपलब्ध ना. ३९. हारीत शारवा : हे शारवेचे उल्लेख बौधायन आनी आपस्तंब धर्मसुत्रांत आसात.

**कृष्ण यजुर्वेद :** कृष्ण यजुर्वेदाचो विवरण ग्रंथ ना. ताका लागून ऋषी, छंद, देवता आदींची स्पश्ट म्हायती मेळना. पूण कांय कांय कांडर्षींच्या पुजेचो उल्लेख मेळटा. ह्या ऋषींच्या नांवावयल्यानूच स कांडांक प्राजापत्य, सौम्य, आग्नेय, वैश्वदेव, स्वायंभुव आनी वारुण अशीं नांवां मेळळयांत आसूं येतात. तेभायर संहिती देवता, वारुणी देवता, आनी याज्ञिकी देवता अशीं तीन नांवां मेळटात. प्राजापत्य कांडांतूच पयल्या आनी दुसऱ्या कांडांतले मंत्र आसात. अश्वमेध यज्ञाचे समाप्तीउपरांत म्हणपाच्या मंत्रांत राश्ट्रीय भावना भरिल्ली आसा.

तैत्तिरीय संहितेंतल्यो रवुबशो देवता ऋग्वेदांतल्योच आसात. पूण तातूंत रुद्र देवतेक प्राधान्य आसून एक रुद्राध्याय आसा. तैत्तिरीय संहितेचो क्रमपाठ शाकल्यान आनी पदपाठ गालवान केल्लो आसा. पूण हिरण्यकेशी सूत्राप्रमाण पदपाठाचो रचनाकार आत्रेय आसा. तांच्या सातव्या कांडांत वसिष्ठ आनी सूर्यवंशी राजा सुदास हांचीं आरव्यानां आसात. तशेंच तैत्तिरीय संहितेच्या कांय आवृत्तींनी धृतराष्ट्र, पांचाल आनी कौंतेय हांचो उल्लेख मेळटा.

कृष्ण यजुर्वेदाचे तैत्तिरीय संहितेंत दर्शपूर्णमास, सोमयाग, पुनराधान, वाजपेय, राजसूय, पशुयाग, काम्यपशू, काम्येष्टी, अग्निचयनां, सत्रां, अहीनयाग आदी यज्ञांची विस्तारीत मांडावळ दिल्या. कृष्ण यजुर्वेदाच्या संहिता ह्या भागांत ब्राह्मणय रवूब आयिल्ले आसात आनी ज्या भागाक ब्राह्मण म्हण्टात तातूंत संहिता म्हळयार मंत्रभागूय रवूब आयला.

कृष्ण यजुर्वेदाच्या तैत्तिरीय ब्राह्मणांत जायत्यो कथा आयिल्ल्यो आसून यज्ञ हें तांचें तात्पर्य. तैत्तिरीय, महानारायण, मैत्री, कठ आनी श्वेताश्वतर ही कृष्ण यजुर्वेदाचीं उपनिषदां आसात.

**शुक्ल यजुर्वेद :** शुक्ल यजुर्वेदाच्या वाजसनेय संहितेंत ४० अध्याय, ३०३ अनुवाक आनी १९७५ कंडिका आसात. चरणव्यूहाप्रमाण ह्या कंडिकांची संख्या १८८० आसा. जाल्यार चिंतामणराव वैद्याच्या मतान हो आंकडो १९०० आसा. हे मंत्र गद्यांत आनी पद्यांत आसात. पयल्या अध्यायाचो प्रजापती आनी निमाण्या अध्यायाचो दध्यड. आथर्वण अशे ऋषी मानिल्ले आसात. वाजसनेय संहितेच्या पयल्या अध्यायांत दर्शपूर्णमास, दुसऱ्या अध्यायांत पिंडपितृयज्ञ आनी तिसऱ्यांत अग्निहोत्र आनी चातुर्मास्य अशे याग दिल्ले आसात.

शुक्ल यजुर्वेदाचो सगळ्यांत म्हत्त्वाचो ग्रंथ म्हळयार शतपथ ब्राह्मण. ह्या ग्रंथाच्यो काण्व आनी माध्यंदिन अशो दोन प्रती उपलब्ध आसात. शुक्ल यजुर्वेदाचें श्रौत्रसूत्र कात्यायनान केल्लें आसून, गृह्यसूत्र पारस्करान केल्लें आसा. याज्ञवल्क्यशिक्षा हो ग्रंथ ह्या वेदाच्या अभ्यासाचे नदरेन खुबूच म्हत्वाचो आसा. तशेंच हेर वेदांपरस स्वर आनी उच्चार हांचे बाबतींत शुक्ल यजुर्वेद खुबूच वेगळो आसा.

यजुर्वेदाची रचना ऋग्वेदाउपरांत जाली अशें जायत्या पंडितांचें मत आसा. वेगवेगळया यज्ञ यागांखातीर जेन्ना अधिकृत आनी तपशीलवार म्हायती आशिल्ल्या ग्रंथांची गरज लागली, तेन्ना यजुर्वेद निर्माण जालो. श्री विद्याधरशास्त्री भिडे हाच्या मतान ऋग्वेद, यजुर्वेद सामवेद आनी अथर्ववेद अशे वेदांचे वेगवेगळे भाग पडचे आदीं वेदराशी एकच आशिल्ली. तिची चार वेदांनी विभागणी केन्ना जाली तेविशीं निश्चीत म्हायती मेळना. हे भाग पडचे आदीं वेद ब्रह्मस्वरूप म्हळयार प्रणवरूप जाता.

यजुर्वेदांत ऋग्वेदांतल्याच देवतांची आराधना आनी प्रार्थना आसून यज्ञांत त्याच देवतांक हविर्भाग अर्पण करपाक सांगला. पूण ह्या देवतांच्या दर्ज्यांत बदल जाल्लो आसा. हातूंत सामको म्हत्वाचो बदल म्हळयार प्रजापती विष्णु आनी रुद्र ह्या देवतांक खुबूच मान दिला.

उपनिषदांत वाडीक लागिल्ली एक इश्वराची कल्पना यजुर्वेदांत निश्चित आनी सप्रमाण मांडल्या. यजुर्वेदांतल्यो नितीविशींच्यो कल्पना ऋग्वेदांतल्या कल्पनांपरस बऱ्योच प्रगत जाल्ल्यो दिसतात. थंय उंचेले नैतिक जिणेविशीं खरी तळमळ दिसता. गिन्यान, पापाची माफी, अमरत्व आदी आध्यात्मिक गुणांचे प्राप्तीविशींच्यो प्रार्थना यजुर्वेदांत खूब आसात.

धनुर्वेद हो यजुर्वेदाचो उपवेद.

- कों. वि. सं. मं.

**यती :** बौद्ध संन्यांशांचो एक पंथ. 'यतते चेष्टते मोक्षार्थमिति'= मोक्षाखातीर यत्न करता तो यती अशी ताची व्याख्या. जे लोक तांबडे कपडे वापरतात, भीक मागून पोट भरतात, घरदार करिनासतना सतत भोंवत रावपी आनी वैराग्यशील अशे आसताले तांकां वेदकाळांत यती म्हण्टाले. यती हें उतर मुनींचे जोडयेन वापरतात.

ऋग्वेदांत जायतेकडेन यतींचो उल्लेख आसा. तशेंच इंद्र यतींचो दुस्मान अशेंय म्हळां. ताणें यतींक लांडग्यांचे भकीक खावपाक घाले असो उल्लेख तैत्तिरीय संहितेंत आसा. अखेरेक हातूंतल्यान फकत पृथुरश्मी, बृहद्गिरी आनी रायोवाज हे तितले उरले. घडये आपलो पंथ सोडून इंद्राक ते शरण आयले आसुंये, कारण इंद्रान तांकां अभय आनी क्षत्र, ब्रह्म आनी वैश्य ह्यो विद्या दिल्यो अशें म्हळां. म्हणजेच, वैदिक आर्यांनी यतींतल्या कांय जाणांक त्रैवर्णिकांत दाखल करून ग्रहस्थाश्रमांत हाडले असो ताचो अर्थ दिसता.

*यती हे आर्येतर समाजांतले लोक आसुंये.* वैदिक आर्य प्रवृत्तिमार्गी आशिल्ल्यान तांकां संन्यासमार्गी यतींविशीं दुस्वास दिसतालो. पूण वैदिक आर्यांनी विरोध करूनय यतींची संन्यासमार्गी विचारसरणी बदलली ना. यतिमुनींचो वर्ग समाजांत लोकप्रियूच उरलो. आर्येतर *सगळ्या समाजांत तांकां मान मेळतूच उरलो. अखेरेक आश्रमवेवस्था* निर्माण करतना तांकां यतींच्या पंथाचो संन्यास हो चवथो आश्रम म्हणून आपणावंचो पडलो.

बौद्ध आनी जैन हे दोनूय पंथ यतीमुनींची विचारसरणी *आपणावन उत्पन्न जाले आनी वाडले. तांची प्रवृत्ती आनी गृहस्थाश्रम* हांकां निवृत्ती आनी संन्यास हांचेइतलो केन्नाच मान फावो जावंक ना. जैनांच्या आध्यात्मिक गुरूंक यती म्हण्टात. ते धर्मप्रसार करतात, तशेंच पुरयताचेंय काम करतात. तांचे ८४ गच्छ आसात.

- कों. वि सं. मं.

**यदुमणि महापात्र :** (जल्म : सुमार इ. स. १७८१, ईटमती, नयागढ संस्थान, ओरिसा; मरण : इ. स. १८६५).

नामनेचो ओडिया कवी. ताका काव्य आनी चित्रकलेची आवड आशिल्ली. ताचो बापूय लाकडाचेर नक्षीकाम करतालो तशेंच तो चित्रकारूय आशिल्लो. आठघर हांगाच्या अधिपतीचे राजधानींत तांचे वास्तव्य आशिल्लें.

यदुमणि वेगवेगळया दरबारांनी आपल्या शीघ्र कवित्वान दरबारी लोकांची मनरिजवण करतालो. ताच्या काव्यांतलो विनोद आनी उपहास ह्या दोन गुणांक लागून यदुमणीची कीर्त ओरिसाभर पातळिल्ली.

यदुमणिन 'राघव-विलास' आनी 'प्रबंध पूर्णचंद्र' अशीं दोन अलंकारीक काव्यां बरयल्यांत. तातुंतल्या राघव-विलास ह्या काव्याचो थोडोच वांटो उपलब्ध आसा.

'प्रबंध पूर्णचंद्र' हें ताचें प्रदीर्घ काव्य खूब लोकप्रिय आसा. तातूंतली काव्य शैली, शब्दकळा, अलंकार उत्कृश्ट आसात. हातूंत कृष्ण आनी रुक्मिणी हांच्या लग्नाची कथा बरी कल्पकतायेन वर्णिल्या. ओरिसांतल्या 'पालवाले' ह्या नांवाच्या भाट कवींनी हेर प्राचीन काव्यांभाशेनूच हें काव्य गांवागांवांनी भोंवन, गावन दाखोवन खूब लोकप्रिय केलां. ह्या काव्याक लागून यदुमणिक मानाची सुवात फावो जाल्या.

विनोदी आनी तैलबुद्धाचो म्हणून यदुमणिची नामना आसा. उत्तर भारतांत, बीरबलाक जशी नामना आनी सुवात आसा तशीच सुवात ओरिसांत यदुमणिक आसा.

'यदुमणि रहस्य' ह्या नांवान ताचे विनोद संग्रहीत आसात. संस्कृत आनी ओडिया ह्या भाशांचेर बरें वर्चस्व, हुशारी, पांडित्य, कवित्व, विनोद ह्या गुणांक लागून ओरिसांतल्या राजदरबारांनी यदुमणिक मानाची सुवात आशिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**यदुवंश :** *भारतांतलो एक प्राचीन पुराणीक वंश. वैदिक वाङ्मयांत ह्या वंशाचो उल्लेख आर्यांच्या पंचजनांत केला. यदुवांगडाच तुर्वशाचें नांव जोडप जालां. उपरांतच्या वाङ्मयांत चंद्रवंशांतलो राजा ययाती आनी शुक्राचार्याची धूव देवयानी हांचेपसून जल्माक आयिल्ल्या दोन पुतांतलो पयलो पूत म्हणून यदूचो उल्लेख मेळटा.*

ययातीन आपलें साम्राज्य पांच पुतांमदीं (देवयानीचे दोन आनी शर्मिष्ठेचे तीन) वांटून दिलें. तेन्ना चर्मण्वती, वेत्रवती आनी शुक्तिमती हांच्या देगांवयलो प्रदेश यदूक मेळळो. तांचे वंशज यादव हांणी फुडें आपल्या राज्याचो विस्तार शशबिंदूचे कारकिर्दींत उदेंतेक आनी उत्तरेक केलो. यादवांनी गुजरात काठेवाडांतल्या आर्येतरांक धांवडावन थंय आपली सत्ता स्थापली.

यदुक कोष्ट आनी सहस्त्रजित अशे दोन पूत आशिल्ले. कोष्टासावन जाल्ल्या वंशाक यादव आनी सहस्त्रजितासावन जाल्ल्या वंशाक हैहय अशीं नांवां पडलीं. हैहयांनी माहिष्मती म्हळयार पयलींच्या इंदूर संस्थानांतल्या महेश्वर हांगा आपली राजधानी केली.

यादववंशी विदर्भ राजान दक्षिणेंत येवन आपल्याच नांवान उपरांत नामना मेळिल्ल्या विदर्भ प्रदेशाचेर आपलो शेक बसयलो. ताका क्रथ आनी कैशिक अशे दोन पूत आशिल्ले. आपल्या ह्या दोनूय पुतांभितर राजान विदर्भाची वांटणी केली, पूण उपरांत त्या दोन विभागांचें एकीकरण जातकच विदर्भाक क्रथकैशिक हें नांव रूढ जालें.

उत्तर भारतांत, मथुरेक यादवांचें राज्य आशिल्लें. थंयच्या कंस राजान, मगधाच्या जरासंध राजाक आपली धूव दिल्ली. कंस राजा प्रजेक त्रास करतालो म्हणून कृष्णान ताचो वध केलो आनी ताच्या जाणट्या बापायक, उग्रसेनाक गादयेर बसयलो. जरासंधान मथुरेचेर खूब धुरयो घाल्यो, तेन्ना यादवांनी काठेवाडांत प्रयाण करून द्वारकेक आपली राजधानी केली. यादव साम्राज्याच्या हेर विभागांचेर भजमान, देवावृध, अंधक आनी वृष्णी अशे सात्वत भीमाचे पूत राज्य करताले. वृष्णीच्या वंशांतल्या शूर नांवाच्या राजाक मारीषा हे भोजवंशी राजकन्येपसून वसुदेव हो पूत आनी पृथा, श्रुतदेवा आनी श्रुतश्रवा ह्यो धुवो जाल्यो. पृथेक, कुंतीभोज राजान आपली धूव मानिल्ल्यान कुंती अशें नांव पडलें. तिचें लग्न पंडु राजाकडेन जालें. श्रुतश्रवाचें बुंदेलखंडाचो राजा दमघोष हाचेकडेन लग्न जालें आनी तिका शिशुपाल हो पूत जालो. वसुदेव, कुकर देशाचो राजा देवक हाचे देवकी नांवाचे चलयेकडेन लग्न जालो आनी ताका बलराम आनी कृष्ण हे दोन पूत जाले. कृष्णाची भयण सुभद्रा हिचेकडेन अर्जुनाचें लग्न जालें. ताचो पूत अभिमन्यू हाका भारतीय झुजांत मरण आयलें आनी उपरांत ताचो पूत परीक्षित हस्तिनापूरचे गादयेर बसलो.

भारतीय झुजाच्या कांय काळा उपरांत द्वारकेच्या यादवांभितर बंडाळी मातून तातूंत सगळयांचो नाश जालो. तेन्ना वनांत वचून ध्यानस्थ बशिल्ल्या कृष्णाक हरण समजून एका व्याधान बाण मारतकच कृष्ण निजधामाक गेलो. उपरांत फाटल्यान उरिल्ल्या वज्र नांवाच्या नातवाक पांडवांनी मथुरेचे गादयेर बसयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**यम :** एक वैदिक देवता. यमाक पर्जन्यसमुहांतली आनी हिंदू पुराणकथांतलीय मृत्युदेवता मानल्या. ताच्या बापायचें नांव विवस्वान आनी त्वष्ट्याची धूव सरण्यू ही ताची आवय.

प्रजेच्या बऱ्याखातीर अमरत्त्वाचो त्याग करून यज्ञांत आत्मबलिदान करपी पयलो यज्ञकर्तो, मनीस जातीचो आद्य जनक, पयलो राजा, सूक्तरचना करपी एक वैदिक ऋशी, दक्षिणेचो दिक्पाल, पयलो मृत, यमीन समागमाखातीर केल्ली मागणी न्हयकारून भयण-भावाचें लग्न निशिद्ध थरोवपी समाजसुदारक, यमसंहिता आनी यमस्मृति हे ग्रंथ बरोवपी शास्त्रकार, अस्ताक वचपी सुर्याचें वा चंद्राचें प्रतीक, इंडो - इराणी पुराणकथेंतलो यीम, कॅननायट देव यम, दुतांक यमगीता आनी नचिकेताक मरणाचें गुपीत सांगपी उपदेशक अशा जायत्या स्वरुपांनी यमाचें वर्णन मेळटा. पूण जाचें आयुश्य सोंपलां, ताच्या प्राणांचें आपल्या दुतांवरवीं हरण करपी भिरांकूळ देवता आनी दुतांनी मेल्ल्यांच्या जिवांक यमपुरींत हाडलेउपरांत चित्रगुप्त ह्या अधिकाऱ्यान सांगिल्ल्या तांच्या पाप-पुण्याच्या हिशोबाप्रमाण तांकां नरकासारक्या जाग्यांनी धाडपी कठोर न्यायाधीश हेंच ताचें मुखेल रूप जावन रावलां.

ताका कृतांत, अंतक, काळ, श्राद्धदेव, यमधर्म, प्रेतराज, सारकिल्या नांवांनीय वळखतात. ताचो रंग पाचवो, एक पांय अपंगूळ आनी वस्त्रां तांबडीं आसतात. ताच्या एका हातांत गदा आनी दुसऱ्या

हातांत कालसूत्र नांवाचो पाश आसता. ताचें वाहन रेडो, पारवो आनी घुबड हे पक्षीदूत आनी चार दोळे आशिल्ले सुणे हे राखणदार. ताची मूर्त चार भुजांची आसून तिच्या हातांत लेखणी, पुस्तक, कोंबो आनी दंड आसता. बौद्ध पुराणकथेंत यम सातभुजांचो आसून ताचे मूर्तीच्या हडुयाचेर चक्राभाशेन अलंकार आसता.

यमाच्यो मूर्तीय पळोवपाक मेळटात. पहाडपूर हांगाच्या देवळाच्या उंचवटयाचेर दक्षिणेवटेनचे वण्टींत एक यमाची द्विभुज मूर्त आसा. चिदंबरमचोय यम द्विभुज आसून तो आपल्या वाहनामुखार उबो आसा. गुजरातांतल्या वडनगर गांवांतल्या हाटकेश्वर देवळांत यम दिक्पाल म्हणून उबो आसा. तो त्रिभंग अवस्थेंत आसा. तशेंच तो चतुर्भुज आसून ताच्या वयल्या हातांत गदा आनी सकयल्या हातांत लेखणी आसा. वयल्या दाव्या हातांत बडी आसा आनी तिचेर कोंब्याभाशेन सुकणें बशिल्लें आसा. सकयल्ल्या दाव्या हातांत पुस्तक आसा. ताचे तकलेचेर मुकूट, कानांत वाटकुळीं कानांतलीं, गळयांत हार, पांयांत वाळे आनी जोर्ती आसात. ताच्या दोनूय पांयांमदीं ताचें वाहन आसा. ताच्या दोनूय आंगांनी देड पांयांचेर दोन चामरधारिणी उब्यो आसात.

कार्तिक शु. द्वितीया ही यमद्वितीया वा भावबीज म्हणून मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**यमन (राग) :** हिंदुस्थानी संगितांतलो एक राग. हाचे आरोह-अवरोह सात स्वरांनी जातात. हाचो वादी स्वर ऋषभ आसून ताका गंधार वा पंचमूय मानतात. हाचो संवादी स्वर निषाद. ताची प्रकृती गंभीर आनी श्रद्धाशील. ताका नर्मशृंगारय मानवता. ह्या रागाचो गायनाचो वेळ रातीचो पयलो प्रहर. हातूंत कांय प्रमाणांत कोमल मध्यमाचो प्रयोग केल्यार तो यमनकल्याण जाता. स्वरक्रमांत वक्रता नाशिल्ल्यान  हो राग रंजक दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**यमुना :** एक पवित्र न्हंय. लांबाय १,३७६ किमी. उदक व्हांवपाचें क्षेत्र ३,०५,६१८ चौ. किमी. हिचो उगम हिमालयाच्या बंदरपूछ नांवाच्या तेमकाचे वायव्येक आशिल्ल्या कलिंद पर्वतांतल्यान जाला म्हणून हिका कालिंदी अशेंय म्हण्टात.

यमुनोत्तरी वा जम्नोत्री हांगाच्यान ती भायर सरता आनी हिमालयाच्या मध्य आनी भायल्या दोंगरावळींतल्यान ८० किमी.च्या व्हडल्या मार्गावयल्यान व्हांवत वचून ती फैजाबादालागीं मैदानी वाठारांत देंवता. हिमालयांत तिका टोंस, गिरी आनी असन ह्यो न्हंयो मेळटात. चंबळ, सेंगर, सिंध, बेटवा आनी केन ह्यो न्हंयो मैदानी वाठारांत तिका येवन मेळटात. ह्या सगळया न्हंयांक आपलेभितर आस्पावन ती प्रयाग क्षेत्रांत गंगेक येवन मेळटा. ह्या दोन न्हंयांच्या संगमांत न्हावन पवित्र जावपाखातीर लाखांनी यात्रेकरी दर वर्सा प्रयागाक येतात. यमुनेचें देगण सुपीक आनी दाट लोकवसतीचें आसा. यमुना न्हंय पयलीं नैर्ऋत्य, मागीर दक्षिण आनी अखेरेक आग्नेय ह्या दिकांनी प्रवाहीत जावन प्रयागाक पावता. हिमाचल प्रदेश आनी उत्तर प्रदेश तशेंच पंजाब आनी उत्तर प्रदेश ह्या राज्यांची ती एक शिमूय जाता. हे न्हंयेचे देगेर दिल्ली, वृंदावन, मथुरा, आग्रा, इटावा, कालपी आनी हमीरपूर हीं शारां आसात. गंगेवांगडा हे न्हंयेचो उल्लेख जाता. रामचरितमानस ह्या ग्रंथाचो कर्तो गोस्वामी तुलसीदास हाचो राजापूर हो गांव यमुनेचेच देगेर आसा.

यमुना न्हंयेक संस्कृतीक म्हत्वूय आसा. सूर्य आनी संज्ञा हांची ती धूव आनी यमाची भयण. तशेंच तिचें एक मानवी रुपय कल्पिल्लें आसा. एक खेपे बलरामान तिका आपलेवांगडा जलक्रिडेखातीर आपयली. तेन्ना तिणें कळाव केलो म्हणून बलरामाक तिची तिडक आयली. ताणें तिका नांगराच्या फाळान वृंदावनांतल्यान ओडून हाडली. ताका लागून तिचें पात्र बदललें.

यमुनेचो प्रवाह बदलत आसा म्हणपाचें पुराणीक आनी इतिहासीक उल्लेखांवयल्यान कळटा. प्रागैतिहासीक काळांत यमुना मधुवना लागींच्यान व्हांवताली. थंयच तिचे देगेर शत्रुघ्नान मथुरा नगरीची स्थापणूक केल्ली.

कृष्णकाळांत यमुनेचो प्रवाह कटराकेशवदेव ह्या मथुरेंतल्या एका पुण्यस्थळालागच्यान व्हांवतालो. बौद्ध काळांत यमुनेच्या दोनूय देगांचेर संघाराम उबारिल्ले म्हणपाचें बौद्ध साहित्यावयल्यान कळटा. पुर्विल्ल्या काळांत यमुनेच्यो दोन धारो आशिल्ल्यो म्हणपाचें वल्लभ संप्रदायाच्या वाङ्मयावयल्यान दिसता. तशेंच पुर्विल्ल्या काळांत वृंदावनांत यमुना जायत्या धारांनी व्हांवताली म्हणपाचें पुराणांवयल्यान समजता. त्या काळांत तिचे देगेर जायतीं सोबीत वनां आशिल्लीं आनी कृष्ण आपल्या संवगड्यांवांगडा त्या वनांत गायांक चरयतालो. आतां वृंदावनांत यमुनेच्या दोनूय देगांचेर व्हडले घाट बांदिल्ले आसात आनी तांचेर जायतीं देवळां, धर्मशाळा आसा. भरतान यमुनेचे देगेर अश्वमेध यज्ञ केल्लो. वैवस्वत मनून भुरगें जावचें म्हणून यमुनेचे देगेर तप केल्लें. नारदाकडल्यान विद्येची दिक्षा घेवंचेपयलीं चित्रकेतूक यमुनेंत न्हाण घाल्लें. श्रीकृष्णान यमुनेचे देगेचेरूच रासक्रिडा केल्ली. यमुनेंत रावन हिचें उदक विखयाळें करपी कालिया नागाक कृष्णान हांगाच्यानूच धांवडावन घाल्लो. सौभरी ऋषीन हिचेच देगेर तप केल्लें, अशे जायते उल्लेख पुराणांत मेळटात.

भारतीय शिल्पसंभारांत गंगेप्रमाण यमुनेच्योय मानवी रुपांतल्यो जायत्यो मुर्ती सांपडटात. उदयगिरीचे एके गुहेच्या भायल्या भागाचेर वराह अवताराचें जें गुप्तकालीन शिल्प खणिल्लें आसा, तातूंत दावे वटेन गंगा आनी यमुना हांच्यो मुर्ती दिसतात. मंदसोराक यमुनेची एक मूर्त सांपडल्या. पाटण्याच्या वस्तूसंग्रहांत दवरिल्ली यमुनेची मूर्त खूब सोबीत आसा.

कृष्णभक्ती - संप्रदायांतल्या जायत्या कवींनी संतांनी आनी भक्तांनी तिचेविशीं जायतीं पदां रचल्यांत. तांकां ती आवयभशेन दिसता. कृष्णभक्तीच्या रसीक आनी सरवी ह्या संप्रदायांनी यमुना ही एक गोपी आशिल्ल्याचें कल्पिलां आनी कृष्ण जसो राधेच्या ताब्यांत आसता, तसोच तो यमुनेच्या ताब्यांत आसता अशें म्हळां.

आधुनिक काळांत यमुना न्हंयेचेर जलविद्युत् निर्मिती प्रकल्प बांदल्यात आनी जायतीं खारजां बांदून तिचें उदक शिंपणावळीखातीर उपेगाक हाडलां.

- कों. वि. सं. मं.

**ययाति :** एक चंद्रवंशी राजा. नहुषाचो तो पूत. ताच्यो दोन बायलो आशिल्ल्यो. तातुंतले शर्मिष्ठेगेर तीन आनी देवयानीगेर दोन चले आशिल्ले. आपलें जाण्टेपण आपल्या पुतांक दिवन तांचें तरणेपण मेळोवपाची ताका इत्सा जाली. पूण पुरू सोडून आनीक कोणूच पूत ताचे हे गजालीक तयार जालोना. सगळया पुतांमदीं पुरू हो सगळयांत धाकटो. पूण ययातीन ताका राज्याचे सगळे अधिकार दिले आनी आपूण एक हजार वर्सभर तरूण रावन शारिरीक सूख भोगीत रावलो. ताचे उपरांत पुरूक आपोवन ताणें सांगलें - 'इतले दीस हावें विशयसुख भोगलें. तरी पूण म्हजी तृप्ती जावंक ना. तूं तुजें तरणेपण घे. हांव आतां वानप्रस्थ आश्रमांत वचून तपस्या करतां'.

ताचेउपरांत व्हड तपश्चर्या करून ययाति सर्गांत पावलो. पूण थोडयाच दिसांनी इंद्राच्या शापान तो सर्गभ्रश्ट जालो. सर्गाचे वाटेन धर्तरेचेर येतना ताका दौहित्र, अष्ट, शिवि आदी मेळळे. ताची ती आवतिकाय पळोवन त्या सगळयांनी ताका आपल्या पुण्यफळाच्या बळग्यान परत सर्गांत धाडलो. ह्या लोकांक लागुनूच ताका अखेरेक मुक्ती मेळळी.

- कों. वि. सं. मं.

**यरवा :** एक आदिवासी जमात. कर्नाटक राज्यांतल्या कूर्ग भागांत आनी केरळ राज्यांतल्या उत्तर मलबारांत हांची वसती आसा. व्यन्नाड हें हांचें मूळस्थान आसुंये अशें म्हण्टात. पंजिरी, पनिय, बदव आनी काजी यरवा अशीं हांचेमदीं चार कुळां आसात. बदव आनी काजी यरवा ह्या कुळांतले लोक कावळयाचें मांस खातात म्हणून तांकां समाजांत उण्या दर्ज्याचे मानतात. पंजिरी आनी यरवा हे कर्नाटकातल्यान आयिल्ले आसून, तांचेमदीं इप्पुमलै आनी हरट्टी अशे दोन पंगड आसात. इप्पुमलै लोकांची वसती श्रीमंगल आनी पोन्नमपेट वाठारांत आसा. हरट्टी यरवांचो राबितो परट्टी मलै हांगा आसा.

कोरवा, कुट्टथम्म आनी गुलिकन ह्या देवांक ते भजतात. मलबार जिल्ह्यांतल्या रानांनी हाचीं देवळां आसात. देवाची पुजा करचे पयलीं ते सुर्याची प्रार्थना करतात. तांदूळ, नाल्ल हें तांचें पुजेचें साहित्य. कुट्टथम्माक सोऱ्याचो आनी कोंब्याचो निवेद्य लागता. कूर्ग लोकांच्यो सगळयो परबो ते मनयतात. तशेंच लग्ना वेळार ते गंगेची पुजा करतात. कावेरी, लक्ष्मणतीर्थ आनी धर्तरेचीय ते पुजा करतात. जादुटोणो आनी मंत्र-तंत्र हांचेर तांचो खूब विश्वास आसा.

हे जमातींत जाण्टेले लग्न थरयतात. आते वा मामेभयणीकडेन लग्न जातात. व्हंकल पसंत जातकच न्हवऱ्याचो बापूय आनी टोळयेचो मुखेली व्हंकलेगेर साडी आनी रांदपाचीं आयदनां घेवन वतात. न्हवऱ्याच्या बापायन आपलें येवपाचें कारण सांगले उपरांत व्हंकलेक थंय हाडटात आनी तिका साडी दिवन ताळी बांदतात. देवपुजाय थंयच जाता. मागीर दोनय वटेनचे लोक एकठांय बसून लग्नाचो म्हूर्त थरयतात.

हे लोक जाय तितल्यो बायलो करपाक शकतात. विधवा विवाहाक मान्यताय आसा. विधवे वांगडा लग्न जावपी दादलो आपल्या इश्टांवांगडा तिगेर वता आनी तिका चार आणे दिवन तिच्या गळयांत ताळी बांदता. दादल्याचे इत्सेप्रमाण घटस्फोट मेळटा. दादल्यान व्यभिचार केल्यार ताका ते बायलेकडेन लग्न जावंचें पडटा. हे खातीर एक ते धा रुपयांमेरेन दंडूय करतात.

गुरवार बायलेक सातव्या म्हयन्याचेर गोड-धोड जेवण दितात आनी उपरांत कुळारा धाडटात. तिच्या बाळंटेराखातीर वेगळी कूड आसता. बाळंटेरा उपरांत भुरग्याक आनी बाळंटीक न्हाण घालतात. सुवेर बारा दीस पाळटात आनी त्याच दिसा बारसो करतात.

मेल्ल्या मनशाक चड करून हे लोक पुरतात. ताचे पयलीं मड्याक न्हाण घालून नवे कपडे गुठलायतात. फोंडांत थोडें शीत आनी दूद दवरतात. दूद ना जाल्यार नाल्ल्याचें उदक उपकारता. आठव्या वा धाव्या दिसा काकबळी दितात. मेल्ल्याक सर्गांत सुवात मेळची म्हणून टोळयेचो मुखेली देवाचें मागणें करता. मेल्ल्याचे खोपींत शेण सारोवन थंय जाण्टेल्यांच्या नांवान जेवण, मांस, सोरो ह्यो वस्तू दवरतात. बायलांक बशिल्ले स्थितींत पुरतात.

शेती हो हांचो मुखेल धंदो आसून चड करून हे लोक भात पिकयतात. कालमानाप्रमाण हे जमातींत ल्हव ल्हव करून आधुनिक बदल घडत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**यल्लमा :** दक्षिण भारतांतली एक ग्रामदेवता. हिच्या नांवाच्यो कांय व्युत्पत्ती आसात. त्यो अशो - १. एक खेपे रेणुकादेवी कानडी प्रदेशांतल्या सौंदत्ती गांवांत गेली. थंय तिच्या भक्तांनी तिका 'यल्ल अम्मा?' म्हणून प्रस्न केलो. यल्ल म्हणजे कोणागेर आनी अम्मा म्हणजे आवय. हाचेवयल्यान तिका यल्लमा हें नांव मेळळें. २. यल्ल म्हणजे सगळे आनी अम्मा म्हणजे आवय. सगळयांची आवय वा जगदंबा.

३. कर्नाटकांत सप्तमातृकांक योळुअम्मा म्हण्टात. यल्लम्मा हो त्या योळुअम्माचोच अपभ्रंश आसुंये.

यल्लम्मा म्हणजेच रेणुका. हिचे विशीं जायत्यो दंतकथा आसात. तातुंतली एक अशी -

रेणुका ही जमदग्नी ऋषीची बायल आनी परशुरामाची आवय. बापायचे सांगणेवयल्यान परशुरामान रेणुकेचो शिरच्छेद केलो आनी तिचेवांगडा एके मांग बायलेचोय शिरच्छेद जालो. उपरांत परशुरामान त्या दोगिंकूय जित्यो केल्यो. पूण धड आनी तकली जोडटना ताची एक चूक जाली. रेणुकेच्या धडाचेर ताणें मांगिणीची तकली चडयली आनी मांगिणीच्या धडाचेर रेणुकेची तकली बसयली. तीं दोगांय जितीं जालीं आनी तांकां मरिअम्मा आनी यल्लम्मा हीं नांवां फावो जालीं.

बेळगांवा लागीं सौंदत्ती गांवांत रेणुकेचें मुखेल स्थान आसा. थंयच्या दोंगुल्ल्यांक यल्लमाचे दोंगर म्हण्टात. तातूंत एके दोंगुल्लेचेर सरस्वती नांवाचे न्हंयेचे देगेर एके देवीचें देवूळ आसा. देवळाच्या बांदकामावयल्यान तें इ. स. च्या तेराव्या शेंकड्यांतलें आसुंये अशें दिसता. मार्गशीर्ष आनी चैत्र म्हयन्यांतले पुनवेक हांगा व्हडली जात्रा भरता. तेन्ना आंगवणी पावोवपाखातीर जायते भक्त थंय येतात.

यल्लम्माच्या उपासकांक जोगती वा जोगतीण अशें म्हण्टात. कर्नाटकांत 'यल्लमन कुणी तू' ह्या नांवाचो एक लोकनाच आसून तो हे देवीखातीर करतात. यल्लमाचीं कांय पदांय आसात. तशेंच देवीक ओंपील्ल्यो चलयोय देवदासी वृत्तीन जगतात.

यल्लमाची मूर्त बशिल्ले स्थितींत आसता. तिचें मुखामळ उग्र आसता. ती चार भुजांची आसून, तिच्या हातांत डमरू, त्रिशूळ, पाश आनी ब्रह्मकपाल हीं आयुधां आसात. तिचे तकलेचेर मुकूट आसता. तिचे भोंवतणीं जमदग्नी, रेणुका, परशुराम ह्या देवतांच्यो मूर्ती आसतात. संकटाच्या वेळार हिका कोंबे वा बोकडे बळी दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**यव :** आर्यांच्या अन्न-धान्यांतलें एक मुखेल धान्य. मराठींत ताका जव वा सातू अशें म्हण्टात. ऋग्वेद, अथर्ववेद, तैत्तिरीय संहिता, काठक संहिता, वाजसनेयी संहिता हातूंत हाचो उल्लेख आयला. अफगानिस्तान आनी काश्मीर ह्या देशांतलें म्हत्वाचें पीक म्हणून ताचो ऐन - ई - अकबरींत उल्लेख आयला.

रॉथ आनी बोथलिंग हांच्या मतान हें खाशेलें धान्य नासून हें उतर सगळ्या धान्यांखातीर वापरताले. मद्र आनी उशीनर ह्या जनपदांत ह्या धान्याचें खूप पीक येतालें असो पतंजलीन उल्लेख केला.

हें नैमिषेयांचें अन्न आसून, हविर्द्रव्यूय आसा.

श्राद्धांत ताची गरज आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**यवन :** भारतांत आयिल्ल्या ग्रीक लोकांक यवन अशें नांव दिलां. पोरन्या ग्रीसाच्या एका भागाचें नांव आयोन अशें आशिल्लें. त्या वाठारांतल्या लोकांक आयोनियन अशें म्हण्टाले. त्या उतराचें भारतीय रुपांतर यवन अशें जालें. अशें अस्तंती-पंडितांचें मत आसा. ह्या दोन उतरांनी वर्णसाम्यूय आसा.

सनपयलीं चवथ्या शेंकड्यांत सिकंदराचे धुरयेक लागून ग्रीक लोकांचो भारताकडेन संबंद आयलो. सम्राट अशोकाच्या एका शिलालेखांत ॲण्टिओकुस नांवाच्या ग्रीक राजाचो उल्लेख 'अंतिआको नामा योन राजा' असो केल्लो आसा. योन हें प्राकृत रूप आसून यवन हें ताचें संस्कृत रूप.

पाणिनीची अष्टाध्यायी, मनुस्मृती, रामायण, महाभारत ह्या पुर्विल्ल्या संस्कृत ग्रंथांनी यवन हें उतर जायते खेपे आयिल्लें आसा. पाणिनीच्या सूत्रांत यवन ह्या उतराचें स्त्रीलिंगी रूप यवनांनी जाता अशें विधान आसा. वार्तिककार कात्यायनान यवनी म्हळयार यवन बायल आनी यवनांनी म्हळयार यवनांची लिपी असो भेद दाखयला. जांची भास संस्कृत न्हय अशा लोकांक आनी परकियांक महाभारतांत म्लेंच्छ म्हळां. वसिष्ठाची गाय नंदिनी हिचें विश्वामित्रान अपहरण केलें. तेन्ना तिच्या आंगांतल्यान म्लेंच्छ लोक उत्पन्न जाले. तातूंत पुण्ड्र, द्रावीड, शबर, शक, यवन पल्लव, किरात, दरद हे लोक आशिल्ले. रामायणांतूय ही कथा सांगिल्ली आसून कांबोज, बर्बर ह्या भारतीय आनी शक, यवन ह्या परकी लोकांक म्लेंच्छ म्हळां. जे क्षत्रीय लोक क्रियालोपाक लागून आनी हेर कारणांक लागून आर्यत्त्वापासून भ्रश्ट जाले तांचें परिगणन मनुस्मृतींत केल्लें आसून तातूंत यवनांचो उल्लेख सांपडटा. कांय स्मृतीकारांच्या मतान यवन लोक संकरज आसात.

उत्तर भारतांतले लोक असो यवनांचो निर्देश महाभारतांत केल्लो सांपडटा. उत्तरेकडल्या हेर राजांवांगडा ताणी कौरवांवटेन भारतीय झुजांत भाग घेतिल्ल्याचेंय सांगलां

अशे तरेन भारतीय लोकांक पुर्विल्ल्या काळापसून खबर आशिल्ले यवन लोक आनी ग्रीसी लोक एक आसपाची शक्यताय ना. यवन देश म्हळयार अरबस्थान आनी यवन लोक म्हळयार अरब लोक अशें एकमत आसा तें अशें -

पुर्विल्ले यवन लोक आनी तांचो देश ह्या दोनूय गजालींचेर उजवाड घालपी एक पुरावो अमरकोशांत सांपडटा. वेगवेगळ्या गंधवाचक द्रव्यांचीं नांवां दितना अमरसिंहान तुरूष्क, पिण्डक, सिल्ह आनी यावन हीं चारूय एकाच सुगंधी द्रव्याचीं नांवां दिल्लीं आसात. तुरूष्क आनी यावन हीं नांवां तो पदार्थ तूर्क आनी यवन देशांत उत्पन्न जाता म्हणपाचें दाखयता. 'यावनः यवनदेशजः । ' अशें अमरकोशाचे सगळे टिकाकार सांगतात. हो सुगंधी पदार्थ म्हणजेच ऊद. तो अरबस्तानांत उत्पन्न जाता अशें हिरॉडोटस म्हण्टा. हाचेवयल्यान यवन देश म्हळयार

अरबस्तान अशें सिद्ध जाता. सुगंधी द्रव्यांचें उत्पत्तिस्थान म्हणून अरबस्तानाची नामना पयलींपसून आशिल्ली. यावन नांवान वळखतलो पदार्थ ग्रीस देशांत वा युरोपांतल्या दुसऱ्या खंयच्याच भागांत उत्पन्न जायना. ताचें मूळ स्थान अरबस्तानूच. पुर्विल्ल्या पर्शियन साम्राज्याच्या आमदानींत अरबस्तानाकडच्यान घेवपाची खंडणी चड करून ह्याच पदार्थाच्या रुपान घेताले.

भारताक ग्रीसापरस अरबस्तान चड लागींचें आनी वेपाराक लागून अरबांचो भारताकडेन चड संबंद आशिल्लो. अरब हें नांव संस्कृतांत सांपडना. देखून अरबांक यवन म्हण्टाले जावंये अशें वयल्या स्पश्टीकरणावयल्यान जाणवता. ॲण्टिओकुस हो सिरियेचो राजा आशिल्लो आनी सिरिया हो अरब वा यवन लोकांचोच देश. ताका लागून ताचो योनराजा म्हणून उल्लेख केला जावंये.

संस्कृत नाटकांत यवन बायल दिसता. शस्त्रागाराचेर पाळत दवरप, राजाक शस्त्रां दिवप अशीं धाडशी कामां ती करता. ही यवनी, अरबी वा तुर्की वा हबशी जातीची आसुंये. त्या जाग्याचेर ग्रीक बायल आसप शक्य ना. कारण ग्रीक बायलो आर्यवंशी आशिल्ल्यो.

वराहमिहिराचे बृहत्संहितेंत यवनांचो उल्लेख आयिल्लो आसा. तशेंच तातूंत ग्रथित केल्लें फलज्योतिश आनी शाकुनादी शास्त्र हे विशय चड करून इजिप्शियन आनी खाल्डियन लोकांचेच आशिल्ले. हाचे वयल्यान वराहमिहिराक अभिप्रेत आशिल्ले यवन हे ग्रीक नासून, इजिप्शियन, खाल्डियन ह्या अरबी वंशाचे लोक आसपाक जाय.

तशेंच अरबस्तानांत इस्लामी धर्माची स्थापणूक जाले उपरांत यवन हें उतर मुसलमानांक किदद्याक लायलें तेंय कळटा. इस्लामाचे अनुयायी मूळचे अरब आशिल्ले. ताका लागून अरबांक पयलींपासून लायिल्लें यवन हें नांव मुसलमानांनींच लायलां आसुंये.

सिकंदरान भारताचेर घुरी घाले उपरांत जायत्या ग्रीक राजांनी भारतीय वाठारांचेर घुरयो घाल्यो आनी वायव्य शिमेच्या कांय भागांचेर राज्यय केलें. ह्या सगळ्या लोकांक यवन ह्या नांवान वळखतात. त्या यवनांचो इतिहास असो आसा -

**यवन राजवंश :** सिकंदर हो भारताचेर घुरी घालपी पयलो यवन राजा आशिल्लो. तो परत गेलो तेन्ना पंजाब, सिंध आनी सिंधू न्हंयेचे अस्तंतेकडल्या परोपनिसदै ह्या प्रदेशांचेर यवनांची सत्ता आशिल्ली. पूण रोकडोच चंद्रगुप्त मौर्य हाणें तो प्रदेश जिखलो आनी थंय आपलें राज्य स्थापलें. सन पयलीं ३०५ च्या सुमाराक सिरियेचो यवन राजा सेल्युकस हाणें भारताचेर घुरी घाली पूण चंद्रगुप्तान ताका हारयलो. ताका लागून सेल्युकसान काबूल, कंदहार आनी हेरात हेय प्रदेश चंद्रगुप्ताक दिले.

सनपयलीं २०६ त सेल्युकसाचो उत्तराधिकारी ॲण्टिओकुस हाणें काबूलाचेर स्वारी केली. पूण ताका तो प्रदेश जिखप शक्य जालें ना. सनपूर्व १९० च्या अदमासाक बॅक्ट्रियाचो यवन राजा डेमिट्रिअस हाणें काबूल, पंजाब, सिंध हे प्रदेश जिखले.

यवन राजांमदले मारामारीक लागून पुण्यमित्र शुंग हाका सिंधू न्हंयेमेरेनचो प्रदेश यवनमुक्त करपांत यश आयलें. ताचेउपरांत सिथियन लोकांनी बॅक्ट्रियाचेर घुरी घाल्ल्यान थंयचे यवन राजा अफगाणिस्थान आनी पंजाब ह्या प्रदेशांत आयले. तांचीं जायतीं ल्हान ल्हान राज्यां आशिल्लीं.

मिनांडर हाणें सनपयलीं १६० - १४० मेरेन काबूल आनी पंजाब ह्या प्रदेशांचेर राज्य केलें. तशेंच ताणें भडोचमेरेन यवनांची सत्ता स्थापली. पूण ती थोड्याच काळापुरती थरली. मिनांडर हाणें बौद्ध पंथ आपणायलो आनी बौद्ध साहित्यांतच ताका मिलिंद हें नांव दिलां.

बेसनगराक एक गरूडध्वज आसा. ताचेवयल्या शिलालेखांत तो गरूडध्वज हेलिओडोरस नांवांच्या यवन पुरूसान उबारिल्ल्याचो उल्लेख आसा. शुंग वंशांतलो राजा भागभद्र हो विदिशेक राज्य करतालो तेन्ना, सनपयलीं ११३ च्या अदमासाक तक्षशिलेचो यवन राजा ॲण्टिआक्लिदस हाणें हेलिओडोरस हाका आपलो राजदूत म्हणून विदेशाक धाडिल्लो.

हर्मेअस हो निमाणो यवन राजा. इ. स. च्या पयल्या शेंकड्याचे सुरवेक काबुलांत राज्य करतालो. तक्षशिला आनी पुष्कलावती हांगाचीं यवन राज्यां शकांनी तेपयलींच ना केल्लीं.

डेमिट्रियसपसून हर्मेअसमेरेन सुमार २०० वर्सां यवनांचें राज्य वायव्य शिमाप्रांत आनी पंजाब ह्या भागांत आशिल्लें. सिकंदर आनी सेल्युकस हांणी जरी भारताचेर घुरयो घाल्यो तरीय भारतीय संस्कृतायेचेर तांचो मातय प्रभाव पडलोना. पूण मिनांडरान बौद्ध पंथ आपणायलो आनी हेलिओडोरसान वैश्णव पंथ आपणायलो. हाचेवयल्यान भारतीय संस्कृतायेचोच यवनांचेर चड प्रभाव पडलो अशें म्हणूं येता.

- कों. वि. सं. मं

**यशपाल :** (जल्मः ३ डिसेंबर १९०३, पंजाब - फिरोझपूर; मरणः २७ डिसेंबर १९७६).

आधुनिक हिंदी कथाकार, कादंबरीकार, निबंदकार आनी क्रांतिकारक देशभक्त. ताच्या बापायचें नांव हिरालाल आनी आवयचें नांव प्रेमदेवी. तांचो राबितो हिमाचल प्रदेशांतल्या कांग्रा जिल्ह्यात आशिल्लो. यशपालाची आवय फिरोझपूर छावणेंत अध्यापिका आशिल्ली. ताचें शिकप सुरवेक गुरूकुल कांगडींत आनी उपरांत लाहोरचे नॅशनल कॉलेजींत जालें. यशपालाचो धाकलो भाव धर्मपालूय क्रांतीकारी कार्यांत



वांटो घेतालो आनी ताका बंदखणूय भोगची पडिल्ली. प्रकाशवती कपूर हिचेकडेन ताचें ७ ऑगस्ट १९३६ त नोंदणी पद्दतीन लग्न जालें.

यशपाल मॅट्रिक परिक्षा पयल्या वर्गांत पास जालो. ताका शिश्यवृत्तीय मेळटाली. पूण स्वातंत्र्य आंदोलनांत ताणें कॉलेज सोडलें. चौरीचौराचो सत्याग्रह फार्टी घेतिल्ल्यान निराश जाल्ल्या तरणाट्यांमदीं यशपाल आशिल्लो. फुडें ताणें कॉलेजींत वचून बी. ए. केली आनी अध्यापक म्हणून नोकरीय पत्करली. चंद्रशेखर आझाद, भगतसिंग, राजगुरू, बटुकेश्वर दत्त ह्या क्रांतीकारकांवांगडा दहशतवादी क्रांतीच्या लढ्यांत तो आशिल्लो. १९२९ त ताणें आनी भगवतीचरण व्होरान दिल्लीक व्हायसरॉयाचे गाडयेसकयल बाँबस्फोट करपाचो यत्न केलो. पूण तो सफल जालो ना. तीन वर्सां ते फरारी जाले. पूण फुडें १९३२त ताका धरलो आनी १४ वर्सांची सश्रम कारावासाची ख्यास्त जाली. १९३८त उत्तर प्रदेशांत काँग्रेस मंत्रीमंडळ सत्तेर आयले उपरांत ताची सुटका जाली. १९३०त तो पंजाबची क्रांतीकारी संघटना 'हिंदुस्थान सोशॅलिस्ट रिपब्लिकन आर्मी' चो मुखेल आनी चंद्रशेखर आझादाच्या मरणाउपरांत १९३१ त तिचो मुखेल सेनापती म्हणून ताची नेमणूक जाली.

यशपालान इंग्लीश, हिंदी, बंगाली, फ्रेंच, इटालियन ह्या भाशांचो अभ्यास केल्लो. ताच्या घराण्याचेर आर्यसमाजाचे संस्कार आशिल्ले. पूण फुडें तो धर्मविरोधी आनी क्रांतीकारी जालो.

सुरवेक लखनौक एका सप्तकी नेमाळयांत ७५ रुपयांचेर उपसंपादक म्हणून तो काम करपाक लागलो. मागीर आवयन दिल्ल्या ३०० रुपयांचेर ताणें विप्लव हें म्हयनाळें सुरू केलें. फुडें त्या विप्लवचेंच उर्दू संस्करण बागी ह्या नांवान प्रसिद्द करपाक लागले. ताणें बाँब तयार करपाचो ल्हान कारखानोय सुरू केलो. १९४०त ताका परत अटक जाली. ताचीं सुमार ५० पुस्तकां प्रकाशित जाल्यांत. १९५२ वर्सा ताणें रशिया, स्वित्झर्लंड, ऑस्ट्रिया आनी इंग्लंडाची भोंवडी केली. १९५५, ५६, ५८, ६४ ह्या वर्सा ताणें विदेशी यात्रा केल्यो. ताणें बरयल्ल्यो साहित्य कृती अशो - प्रवासवर्णनां - लोहेकी दीवार के दोनों ओर (१९५२), राहबीती (१९५३).नाटक : नशे नशे की बात (१९५२), कादंबरी : झूठ - सच (१९६०), दिव्या १९५४, अमिता १९५६, अप्सरा का श्राप १९६५, मेरी तेरी उसकी बात (१९७४), दादा कॉमरेड (१९४१), देशद्रोही (१९४३), पार्टी कॉमरेड (१९४७), मनुष्य के रुप (१९४९), बारह घंटे (१९६३).कथासंग्रह : पिंजरे की उडान (१९३९), वो दुनिया (१९४२), ज्ञानदान (१९४३), अभिशप्त (१९४४), तर्क का तूफान (१९४४), मस्मावृत चिनगारी (१९४६), फूलों का कुर्ता (१९४९), धर्मयुद्ध (१९५०), उत्तराधिकारी (१९५१), चित्र का शीर्षक (१९५१), तुमने क्यो कहा था की मैं सुंदर हूँ (१९५४), उतमी की माँ (१९५५), ओ भैरवी (१९५८), सच बोलने की भूल (१९६२); खच्चर और आदमी (१९६५),निबंदसंग्रहः न्याय का संघर्ष (१९४०), मार्क्सवाद (१९४१), गांधीवाद की शव-परीक्षा (१९४२), चक्कर क्लब (१९४३), बात - बातमें बात (१९५०), रामराज्य की कथा (१९५०), देखा, सोचा, समझा (१९५१), जग का मुजरा (१९५२), बीबीजी कहती है मेरा चेहरा रोवीला है.

यशपालान आपली आपजीण सिंहावलोकन ह्या नांवान तीन भागांनी (१९५१, १९५२, १९५५) प्रकाशीत केल्ली आसा. साहित्य, राजकीय आनी समाजीक वस्तुस्थिती आनी एका खर क्रांतिकारकाचें कर्ममय जीवन हे नदरेन ती वाचपासारकी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**यशवंत :** (जल्मः १ मार्च १८९९ चाफळ, सातारा जिल्हो; मरणः २६ नोव्हेंबर १९८५, पुणें).

नामनेचो मराठी कवी. पुराय नांव यशवंत दिनकर पेंढारकर. ताचें शिक्षण सांगलीक जालें. मॅट्रिक जातकच पुण्याक ताणें लेखनिकाची नोकरी धरली. सुरवातीच्या काळांत, काव्यरचनेविशींचें मार्गदर्शन ताका कवी साधुदास हाचे कडल्यान मेळ्ळें.



ताची मूळ प्रवृत्ती राश्ट्रीय स्वरुपाची कविता बरोवपाकडेन आशिल्ली. पूण उपरांत रविकिरण मंडळाकडेन संपर्क येतकच ताचेर इंग्लिशींतल्या स्वच्छंदतायवादी कवितेचो प्रभाव पडलो.

यशवंताची कविता गेय, भावोत्कट, सामान्यांच्या सुखदुख्खांकडेन समरस जावपी आशिल्ली. तेखातीर रविकिरणमंडळांतल्या सगळयांपरस ताका चड नामना फावो जाली.

यशोधन (१९२९) हो ताचो पयलो व्हड आनी लोकप्रिय कवितांझेलो. उपरांत ताचे यशोगन्ध (१९३४), यशोगिरी (१९४४), ओजस्विनी (१९४६) हे काव्यझेले उजवाडा आयले. स्फूट कवितेवांगडा जयमङ्गला (एक प्रेमकथा - १९३१), बन्दीशाळा (१९३२), काव्यकिरीट (१९४१) अशो दीर्घ काव्यरचनाय ताणें केल्यात. बन्दीशाळेंत बालगुन्यावकारांचे जिणेची कथा सांगल्या. जयमङ्गला हातूंत कवी बिल्हणाची प्रेमकथा आसा. २२ भावगितांचे हें एक काव्य.

काव्यकिरिटांत बडोद्याचो अधिपती प्रतापसिंह महाराज हाच्या राज्यभिशेकोत्सवाचें वर्णन आसा. त्या काव्यान तो बडोदा संस्थानाचो राजकवी जालो. संयुक्त महाराष्ट्राची निर्मिती जातकच ताचो 'महाराष्ट्र-कवी' म्हणून भोवमान केलो.

ल्हान भुरग्यारवांतीरूय ताणें काव्यरचना केल्या. तशेंच 'छत्रपती शिवराय' (१९६८) हें ताणें शिवाजी महाराजांचे जिणेचेर बरयल्लें म्हाकाव्यूय प्रसिद्द आसा. ताणें गद्य-लिखाणूय केलां. पूण कवी म्हणुनूच ताका चड नामना मेळ्ळी.

- कों. वि. सं. मं.

**यशोधर्मा :** (इ. स. ६वो शेंकडो).

औलिकर वंशांतलो एक व्हड राजा. यशोधर्मीचें दुसरें नांव विष्णुवर्धन आशिल्लें. तो माळव्याचेर राज्य करतालो. ताणें राजाधिराज परमेश्वर आनी सम्राट ह्यो पदव्यो धारण केल्ल्यो. तशेंच तो शिवभक्तय आशिल्लो.

यशोधर्माविशीं जी म्हायती सांपडटा ती शिलालेखांपुरती मर्यादीत आसा. मंदसोरच्या वाठारांत महाराज गौरी हाचे दोन शिलालेख सांपडल्यात. तातुंतल्या एका शिलालेखांत आदित्यवर्धन नांवाच्या राजाचें वर्णन आसा. आदित्यवर्धन हो महाराज गौरीचो सम्राट आसुंये अशें एक मत आसा. वहारमिहिराचे बृहत्संहितेंत अवंतीच्या महाराजाधिराज द्रव्यवर्धनाचो उल्लेख आसा. हो द्रव्यवर्धन इ. स. च्या ५व्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत उज्जयिनीचो राजा आशिल्लो जावंये. आदित्यवर्धन आनी द्रव्यवर्धन हे विष्णुवर्धन (यशोधर्मा) हाच्याच औलिकर वंशांतले आशिल्ले आनी विष्णुवर्धन हो द्रव्यवर्धनाचो पूत आशिल्लो जावंये.

मंदसोरच्या वाठारांत ह्या वंशांतल्या राजांचेय कांय शिलालेख सांपडल्यात. ताचेवयल्यान हें घराणें मंदसोराक (दशपूर) जायतो तेंप राज्य करतालें अशें दिसता. तांची वंशावळ अशी : जयवर्मा - सिंहवर्मा - नरवर्मा (मालव संवत ४६१ - ४७४) - विश्ववर्मा (मा. सं. ४८०) बंधुवर्मा (मा. सं. ४९३) (यशोधर्मा) (विष्णुवर्धन - मा. सं. ५८९).

यशोधर्म्याचे विजयस्तंभ मंदसोरालागीं सांपडिल्ले आसात. मिहिरकुल नांवाच्या हूण राजाचेर मेळयल्ल्या जैताचें चिन्न म्हणून हे स्तंभ उबारिल्ले अशें तांचेवयले लेख सुचयतात. मंदसोरालागीं यशोधर्मा आनी मिहिरकुल हांचे व्हड झूज जालें आनी तातूंत यशोधर्म्याक जैत मेळ्ळें. देखून हे स्तंभ उबारिल्ले आसुंये. तशेंच ताची राजधानीय उज्जयिनीच आसुंये. सुरवेक औलिकर वंशाचें राज्य दशपूराक आशिल्लें. उज्जयिनी त्या वंशाची राजधानी जालेउपरांत दशपूर हांगा एका वेगळ्या घराण्याचें मांडलीक राज्य स्थापन जालें. हाचेवयल्यान यशोधर्म्याचो जल्म एका बळिश्ट वशांत जालो अशेंय म्हणूं येता.

गुप्त सम्राटांची सत्ता जेन्ना दुबळी जाली तेन्ना यशोधर्मान आपली स्वतंत्र सत्ता स्थापन केली आनी मिहिरकुलाचेर हार घालून उ. भारताक हुणांच्या चपक्यांतल्यान सोडयलो. हाची सत्ता हिमालयापसून महेंद्र पर्वतामेरेन आनी ब्रह्मपुत्रेसावन सिंधु दर्यामेरेन पातळिल्ली, अशें ताच्या विजयस्तंभावयल्या लेखांत म्हळां.

यशोधर्म्यांन इ. स. ५३०-५४० ह्या कालखंडांत राज्य केलें आसुंये. ताचेउपरांत ताचें राज्य बेगिनच सोंपलें.

ताचीं कांय नाणीं देश विदेशांत सांपडल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**यशोवंतदास :** (जल्म : इ. स. १४९१, ओढंग).

ओडिया भाशेंतलो एक गिन्यानी कवी. पंचसखांमदलो हो चवथो पुरूश आनी पंचाक्षरी मंत्राचो उपासक आशिल्लो. ताच्या बापायचें नांव जगू मल्लिक (जगन्नाथ मल्लिक) आनी आवयचें नांव रेखादेई.

पिरायेच्या बाराव्या वर्सा यशोवंतान घर सोडलें आनी भारतांतल्यो जायत्यो तीर्थयात्रा केल्यो. ताचे उपरांत जगन्नाथपुरींत येतकच ताणें चैतन्य महाप्रभूकडल्यान दिक्षा घेतली. राजा रघुरामाचे अंजना हे धुवेवांगडा लग्न जावन तो घरा परतलो.

यशोवंतदास संस्कृत पंडीत आशिल्लो. संस्कृत स्वरोदयाचो ताणें ओडिया भाशेंत अणकार केला. प्रेमभक्ती, ब्रह्मगीता, गीतगोविंदचंद्र, गीताराम, सारकिले ग्रंथ ताणें रचल्यात. ह्या सगळ्या ग्रंथांनी योग, तंत्र, वेदान्त हे विशय आयल्यात. नाथयोगी लोक भीक मागतना ताचेंच गायन करीत आसतात.

योगभक्तीच्या बळग्याचेर हाणें जगन्नाथाक वश केल्लो, अशें म्हण्टात. ताचेच कृपेन यशोवंताचे योगसाधनेंत जायत्या अद्‌भुतांचो आस्पाव जाल्लो अशी समजूत आसा. योगबळग्यानूच ब्रह्मप्राप्ती आनी गोपीभावप्राप्ती जाता अशें ताचें निवेदन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**यशोवर्मा :** (इ. स. चो ८वो शेंकडो).

कनौजाचेर राज्य करपी एक बळिश्ट राजा. तो खंयच्या वंशांचो वा कोणाचो पूत म्हणपाचें सारकें खबर ना. कांय पंडीत ताका मौखरी वंशाचो मानतात. तो फकत वीर पुरुशूच नाशिल्लो, तो कवींचो आश्रयदातोय आशिल्लो. भलभूती आनी वाक्पती हे व्हड कवी ताच्या दरबारांत आशिल्ले.

वाक्पतीच्या गौडवहो ह्या प्राकृत काव्यांत यशोवर्म्याच्या गौडविजयाचें वर्णन आसा. गौडनृपतीचें नांव कवीन दिल्लें ना. ताच्या साम्राज्यांत मगधाचो आस्पाव जाल्लो आसा. यशोवर्म्यान मगधाचेर घुरी घालून तो देश जिखलो, तेन्ना गौडनृपती गौड देशांत पळून गेलो. पूण ताच्या सरदारांनी ताका परत झुजारखातीर तयार केलो. मागीर व्हड झूज जालें. तातूंत गौडसेना हारली आनी राजाक मारलो. यशोवर्म्यान सबंद बंगाल जिखलो.

ताचे उपरांत यशोवर्मा दक्षिणेकडेन घुंवलो. नर्मदा न्हंयेचे देगेन वचून तो अस्तंत घाटामेरेन पावलो आनी मागीर उत्तरेकडेन ताणें मरूदेश (राजस्थान) आनी श्रीकंठ (स्थानेश्वर) हे प्रदेश जिखले. उपरांत हिमालयामेरेन वचून तो कनौजाक परतलो. गौडवहो काव्यांत ह्या यशाचें वर्णन केल्लें आसा. पूण यशोवर्मा त्या काळांतलो बळिश्ट राजा आशिल्लो हातूंत दुबाव ना.

यशोवर्मान चीनाच्या सम्राटाकडेन राजनितीक संबंद प्रस्थापीत केल्ले. काश्मीरचो राजा ललितादित्य हाचेवांगडा ताणें तिबेटाचेर घुरी घालून तिबेटी सैन्याचेर हार घाली म्हणपाचें राजतरंगिणीवयल्यान कळटा.

इ.स. ७०० - ७४० मेरेन यशोवर्म्याची राजवट चालू आशिल्ली. पूण ह्याच सुमाराक यशोवर्मा आनी ललितादित्य हांचेमर्दी दुस्मानकाय जाली. मागीर तांचें झूज जावन यशोवर्म्याचेर हार पडली. त्या झुजांत ताका मरण येवंक ना. पुण उपरांतची कांयच म्हायती मेळना.

चालुक्य राजा विनयादित्य हाचें इ. स. ६९५ च्या सुमाराक उत्तर भारताच्या सम्राटाकडेन झूज जाल्ल्याचो उल्लेख एका शिलालेखांत आसा. तो सम्राट म्हणजे यशोवर्माच आसल्यार ताची राजवट इ.स. ६९० पसून सुरवात जाली असो एक अदमास आसा.

कश्मिरांत यशोवर्माच्या नांवाच्यो कांय मुद्रा सांपडल्यात. कांय जाणकारांनी ताका कनौजाचो यशोवर्मनच मानला. यशोवर्मा हें उत्पलवंशी नरेश शंकरवर्मन हाचें दुसरें नांव आशिल्लें अशेंय मत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**यहुदी :** भारतांतल्या ज्यू लोकांक यहुदी वा बेने इस्त्रायल म्हण्टात. मुंबय, ठाणें आनी कुलाबा ह्या जिल्ह्यांनी ह्या लोकांची बरीच वसती आसा.

इ. स. च्या पयल्या शेंकड्यांत हे लोक भारतांत आयले, अशें कांय इतिहासकारांचें मत आसा. कांय जाणांच्या मतान ते इ. स. च्या सव्या शेंकड्यांत हांगा आयले. इ.स. च्या आठव्या शेंकड्यांत मलबारच्या राजकर्त्यांनी ह्या लोकांक सनद दिल्ली, ती तांणी सांबाळून दवरिल्ली आसा. तशेंच तांकां धर्मीक आनी समाजीक मेकळिकूय फावो जाल्ली. इ. स. च्या १६व्या शेंकड्यांत मुसलमान आनी किरिस्तांव लोकांनी तांचेर अत्याचार केले. देखून तांचेमदले जायते जाण हेर पयसुल्ल्या वाठारांनी पळून गेले.

पॅलस्टायनच्यान आयिल्ले यहुदी लोक युरोपी लोकांभाशेन गोरे आशिल्ले. जाल्यार एतद्देशीय बायलांच्या समागमांतल्यान काळे यहुदी जल्माक आयिल्ले.

हे लोक मल्याळम भास उलयतात. संवसारांतल्या हेर ज्यू लोकांभाशेनूच हे लोक धर्मीक परबो मनयतात आनी उपास पाळटात. जेरूसलेमच्या नाशाच्या दिसा हे उपास करतात.

भारतीयांची बरी वागणूक आनी संस्कार हांणी आपणायल्यात. लग्नांत व्हंकलेच्या गळयांत ताळी बांदपाची चाल हांचेमर्दी आसा.

कांय यहुदी लोक गिरेस्त वेपारी आशिल्ले. कांय लोक कोचीच्या राजाचे सल्लागारूय आशिल्ले.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : ज्यू समाज

**यक्ष :** देव आनी मनीस हांचेमदली एक योनी. यक्षांचो उल्लेख सदांच गंधर्व आनी किन्नर हांचे वांगडा जाता. जायते खेपे 'यक्ष रक्षांसि' असो राक्षसावांगडा जाता. यक्षांचे उत्पत्तीविशीं जायत्यो कल्पना प्रचलीत आसात, त्यो अशो - १. ब्रह्मदेवाचे शिकेंतल्यान यक्षांची उत्पत्ती जाली. २. कश्यप आनी विश्वा हांचेपसून यक्ष जाले. ३. यक्ष प्रचेत्याचे पूत आनी ४. प्रजापतीन जेन्ना उदक आनी जीव निर्माण केले तेन्ना तांची राखण करपाखातीर कांय मनशाभाशेन



दिसपी जीव उत्पन्न केले. जल्मतनाच ते तान - भूक म्हणून आड्डपाक लागले. आपणें निर्माण केल्ले जीवसृश्टीक आतां हे खातले अशें ब्रह्मदेवाक दिसलें. म्हणून ब्रह्मदेवान तांकां 'रक्षध्वम' = 'राखण करात' अशें सांगलें. तातुंतल्या कांय जाणांनी रक्ष धातूचो आडावप, प्रतिरोध करप, जबरदस्तीन मेळोवप असो घातकी अर्थ केलो 'बरें आसा' म्हळें. ते जाले राक्षस. कांय लोकांनी 'यक्षामः' = आमी खायन'. अशें म्हळें ते जाले यक्ष.

यक्ष हें उतर मूळ संस्कृत नासून तें खंयच्या तरी निषाद भाशेंतल्या उतराचें संस्कृतीकरण आसुंये अशें आधुनिक भाशाशास्त्रज्ञ मानपाक लागल्यात. वेगवेगळया लोकभाशांनी यक्षांक यख्ख, जख्ख, जाख, यक, यस्क अशें म्हण्टात.

महाभारताच्या वनपर्वांत यक्ष प्रश्नाच्या आख्यानाच्या संदर्भांत यक्षाचें स्वरूप वर्णन दिलां. ब्रह्मवैवर्त पुराणांतूय यक्षांचें वर्णन आयिल्लें आसा. यक्षांचीं आनिकूय कांय लक्षणां अशीं : यक्षांक रगत आनी मांस मानवता. ते मसंडेंत वा तळयाकडेन रावतात. युधिष्ठिराची भेट जाल्ली तो यक्ष एका तळयाकडेनूच रावतालो. तांच्या राबित्याच्या जाग्याकडेन कोणूय वचत जाल्यार ताका यक्ष मारून उडयता. ते वाटमारीय करतात. वेपारी तांडे जर रानांतल्यान वचत जाल्यार तांकां ते मारतात आनी तांच्या जनावरांकूय मारून खातात. खंयच्याय घरांतल्यान ते मनशांक उबारून व्हरतात. ते विलासी, कामूक आनी दुश्ट आसतात. गुप्त संपत्तीची ते राखण करतात आनी नगरराखणेच्या कामाचेर नेमून दिल्यार हेंय काम ते करतात.

यक्ष सोबीत दिसतात अशीय कल्पना पुराणांत सांपडटा. तशेंच सोबीत अशा दादल्याकय यक्ष वा गंधर्व समजुपाची चाल आसा. नल राजा, बुद्ध आनी महावीराकय लोक यक्षच म्हण्टाले.

लोकमानसांतल्यो मात यक्षाविशींच्यो कल्पना वेगळयोच आशिल्ल्यो. त्यो अशो - यक्ष पावस घालतात, अन्न, फळां आनी वनस्पतीची वाड करतात, गांव आनी गायांची राखण करतात, रोग

आनी वांझपण ना करतात. देवळांचीय ते राखण करतात आनी तळयाकडेन येवपी तानेल्ल्यांक ते कूट प्रश्न विचारून सारकी जाप मेळ्ळिना जाल्यार तांकां ते मारून उडयतात. ते विघ्नकर्ते तशेंच विघ्नहर्तेय आसतात. ते बरे कलाकार आसून सोबीत देवळांय बांदतात.

कुबेर हो यक्षाधिपती. ताचे सकयल मणिभद्र. पुराणांतूय धनद, विशालक, हरिकेश, शेवल, सुपरी, वरूण, अर्यमा, भंडीर, गर्दभ, पूर्णभद्र, समुद्रभद्र, सर्वतोभद्र, सुमन हीं यक्षांचीं नांवां सांपडटात.

इ.स.च्या तिसऱ्या शेंकड्याच्या सुमाराक निर्माण जाल्ल्या महामायूरी ह्या बौद्धग्रंथांत यक्षांच्या नांवांची व्हडली वळेरी दिल्ली आसा. यक्षांचे लोहेय, भारतेय, कृशांगेय आनी विशालेय अशे चार गण सांगिल्ले आसात. यक्षांचो बावन आंकडो निश्चीत जाल्लो आसा आनी कालांतरान ते बावन वीर ह्या नांवान लोकांमदीं नामनेक पावल्यात.

विद्युन्माला, चंद्रलेखा, सुलोचना, आलीका, बेंदा, मधा, इमिसीका ह्यो कांय यक्षिणी वेगवेगळया जाग्यांनी रावतात. यक्षिणी क्रूर आसतात. चड करून त्यो भुरग्यांक उबारून व्हरतात आनी खातात.

महाभारतांत जरा यक्षिणीची कथा आसा. ती भुरग्यांक मारून खाताली. ही पुराणीक जरा म्हणजेच बौद्ध परंपरेंतली हारीती यक्षिणी. हिका कुबेराची बायल मानल्या. ही पयलीं लोकांचीं भुरगीं उबारून व्हरून मारताली. लोक तिका खूब भियेताले. अखेरेक तांणी बुद्धाक वचून गाराणें घालें. बुद्धान तिचें मन घुंवडावपाखातीर एक युक्ती केली. ताणें हारीतीच्या एका भुरग्याक लिपयलो. ताका लागून ती सामकी भियेली. तिच्या मनात मातृस्नेह उचांबळून आयलो. तेन्नाच बुध्दान तिका दुसऱ्याच्या भुरग्यांक व्हरून मारू नाका म्हणून उपदेश केलो. तेन्नाच्यान हारीती बालरक्षक जाली.

अद्भुतरुतू हें वेदांतलें खास विशेशण. यक्ष स्वरूपसुंदर, म्हान आनी अद्भूत मानिल्लो आसा. वैदिक आर्य मात यक्षभक्त वा यक्षपूजक नाशिल्ले.

अथर्ववेदांत मात यक्षाक भुवनव्यापक म्हळां. अथर्ववेदांत अमृतान रेवडायल्ल्या अपराजित अशा ब्रह्मपुरीचो उल्लेख आसून थंय महाकाय यक्ष रावता अशें म्हळां.

वैदिक धर्माची सुरवात [illegible] पयलीं भारतांत यक्षसंप्रदाय प्रस्थापित जाल्लो. यक्ष ही लोकधर्मी देवता. एका तेंपार यक्षपुजा सगळयांत चड प्रचलित आशिल्ली. वेदोत्तर साहित्य तशेंच बौद्ध - जैन साहित्य आनी काव्यसाहित्यांत यक्षांचे उल्लेख आसात. पुराणांत आनी जैन-बौद्ध साहित्यांतूय जायत्यो यक्षकथा सांगिल्ल्यो आसात. वीरब्रह्म नांवाचो एक देव सगळया भारतांत पुजतात. वीर आनी ब्रह्म हीं दोनूय उतरां यक्षवाचकूच आसात.

वेदोत्तर काळांत जैन आनी बौद्ध धर्म उदयाक आयले. जायत्यो यक्ष - यक्षिणी बौद्ध प्रवाहांत वचून देवता जाल्यो. जातक कथांनी यक्षांक म्हान शक्तीचे, भयंकर आनी मनीस जातीचे दुस्मान म्हळां. पूण बौद्ध वाङ्मयांत यक्ष मायाळू, सहाय्यक आनी मनशाचे इश्ट मानल्यात.

जैन धर्मांत यक्ष - यक्षिणींक तीर्थंकरांच्या सेवक - सेविकांचें स्थान मेळ्ळें. जैन वेपारी मणिभद्र यक्षाक आपलो राखणदार म्हणून पुजतात. जैनांच्या मतान यक्ष मनशाचें बरें करपी आसात. चरक संहिता आनी सुश्रुतसंहिता ह्या आयुर्वेदीक ग्रंथांनी मात यक्षांक उपद्रव करपीच मानल्यात.

यक्षांची एक संज्ञा राजा अशी आसा. यक्षांचो राजा कुबेराक महाराज वा राजराज अशी पदवी मेळ्ळया. पाली साहित्यांतल्या चार दिकांच्या राखणदारांक चार महाराज म्हळां ते यक्षच.

बौद्ध स्तुपांत यक्षमूर्ती कोरांतून तांची पुजा करतात. यक्षांच्या पुजास्थानांक यक्षचैत्य म्हण्टात. कांय यक्षस्थानां माती, विटो वा फातर हांणी केल्ल्या चौथऱ्याच्यो आसतात. ताका पुजाशिला, आयागपट्ट वा त्रिकोनी पिंडी आसताली. खंयच्याय नगराभायर घंटिका यक्षाचें स्थान आसतालें. तशेंच, पुर्विल्ल्या काळांत यक्षांचीं देवळांय बांदताले आसुंये.

इतिहासीक काळांतल्या भारतीय मूर्तिकलेंत यक्षमूर्ती सगळयांत पुर्विल्ल्यो आसात. तकलेर पगडी, कानांत कुंडलां, गळयांत कंठो, हड्डयार त्रिकोणी हार, भुजांचेर अंगद, हातांत कटक, वयर उत्तरीय, सकयल धोतर, उबें अवस्थान, दावो हात कमरेर आनी उजवो हात उबारिल्लो असो यक्षमूर्तीचो भेस-परिभेस आसता. हे मूर्तींच्या अनुकरणांतल्यानूच बोधिसत्व आनी विष्णु हांच्यो मूर्ती जाल्यो.

यक्षी खंयच्याय झाडालागीं अर्द पांयान वा खोडाक पांयांचो विळखो घालून वा खांदयेर चडून फुडले वटेन ओणव्यो जाल्ल्यो आसतात. सांची, भरहूत, मथुरा आनी अमरावतीचे मूर्तीकलेंत यक्षींची कामुक सोबीतकाय खरपणान जाणवता. ह्या यक्षिणींक पुष्पभंजिका अशें दुसरें नांव आसा. झाडांचीं फुलां काडून माळो करतना तांकां दाखयतात. कांय यक्षीमूर्ती देव, दानव आनी सोरोप हांणी परिवृत आसतात. तांचे भोंवतणी भूत-पिशाच्चांय दाखयतात.

यक्षांची मूळ वसती अलकापुरींत आशिल्ली अशीं वर्णनां सगळयांक मेळ्टात. यक्ष पुजेची सुरवात उत्तरेकडल्या वाठारांनी जाली असो हाचो अर्थ जाता. फुडें यक्षपुजक लोक अलकापुरी सोडून सकयल देवले तेन्ना व्रजमंडल हें तांचें मुखेल केंद्र जालें. कालांतरान सिंहल आनी उदेंत सागरांतल्या द्वीप मेरेन तांचो प्रसार जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**यक्षगान :** दक्षिण भारतांतल्या कर्नाटक प्रदेशांतलो एक परंपरीक नाट्य-नृत्य प्रकार. आंध्र आनी तमीळनाडू ह्या प्रदेशांनी यक्षगानाचे रितीचे नाट्य-नाचाचे प्रकार दिसतात. आंध्रांत हाका विथिनाटकम् आनी तमीळ- नाडूंत भागवतमेळा अशें म्हण्टात. रचनात्मक नदरेन पळयल्यार तिनूय प्रकारांनी बरेंच सारकेपण आसा. पूण यक्षगानांत वापरतात तें संगीत, नाच आनी अभिनयशैली सामकीच वेगळी आसा. पोरन्या, अस्सल परंपरीक यक्षगानांत नाट्यशास्त्रीय हस्तमुद्रांचो तशेंच शास्त्रीय हिंदुस्थानी वा कर्नाटक संगिताचोय वापर मात लेगीत करिनात. ताका लागून यक्षगान हो नाट्य-नृत्य प्रकार परंपरीक लोकरंगभुंयेच्या सदरांत आस्पावता.



यक्षगान ह्या उतराचो फावो तो संदर्भ आनी हे परंपरेचो उगम हांचेविशीं विद्वानांमदीं जायतीं मतां आसात. तातुंतलीं कांय अशीं - यक्षगान ही दरव्यवन भागांत लोकप्रिय अशी खाशेली संगीतप्रणाली आशिल्ली आनी हे संगीतशैलींत बरयल्लीं गेय नाटकां मागीर 'यक्षगान प्रसंग' म्हणून लोकप्रिय जालीं आसुंये. आयजूय हे शैलींत वापरतात अशे जायते राग आनी तांचीं नांवां प्रचलीत शास्त्रीय गायनपद्धतीपरस वेगळीं आसात. यक्ष हो 'जक्क-जक्कुलु' उतराचो अपभ्रंश आसुंये अशेंय कांय जाण म्हण्टात. 'जक्कुलु' ही नटनर्तकांची जमात दक्षिणेंत आशिल्ली. ह्या लोकांनी सादर केल्ले नाट्य-गानप्रकार यक्षगान म्हणून वळखताले आसुंये. प्रयोगाचे नदरेन नासलो तरीय रचणुकेचे नदरेन यक्षगानांत पुर्विल्ल्या संस्कृत नाट्यतंत्राचो वापर खुबूच सांपडटा. नांदी, पूर्वरंग हांचो वापर, सूत्रधार, विदुशक, नायक, नायिका हीं पात्रां 'जवनिके'चो (पात्र प्रवेशाखातीर वापरपाचो ल्हान पड्डो) उपेग, वाचिक आनी आहार्य अभिनयाचो वापर ह्या गजालीं वयल्यान हे परंपरेचें पोरनेपण कळटा. सोळाव्या शेंकड्यांत दक्षिण कर्नाटकांत बरयल्लो यक्षगान प्रसंग आयजूय उपलब्ध आसा.

कन्नड यक्षगानाचें बऱ्याच गजालींनी कोंकणांतल्या दशावताराकडेन सारकेपण आसून आयजूय कर्नाटकांत कांय कडेन ताका दशावतार यक्षगान अशें म्हण्टात. कन्नड यक्षगान शक्तीचे कृपेखातीर सादर करतात. पयलीं देवाकडेन नवस करून इत्सा पूरी जाले उपरांत यक्षगान जाता.

कार्तिकापसून चैत्रामेरेनचे चार-पांच म्हयने कर्नाटकांतल्या कुळवाडी-शेतकाऱ्यांक मेकळे आसतात. हेच लोक यक्षगान सादर करतात. वेगवेगळया गिरेस्त देवस्थानांचे देवस्थापक ह्या यक्षगान करपी नटांक मुस्तायके असलें जाय आशिल्लें साहित्य दितात. मागीर ही मंडळी यक्षगानाच्यो कार्यावळी करपाखातीर भोंवडेर वतात. मंगळूर जिल्ह्यांत यक्षगान सादर करपी जीं जायतीं मंडळां आसात तातूंत कोल्लीरुमेळा, मारणाकट्टी मेळा, मंदाती मेळा सारकिल्या मंडळांचीं नांवां प्रसिद्द आसात. चड करून दर एका गांवाच्या देवळामुखार यक्षगान जाताच. ताचेभायर कांय गिरेस्त लोक आपल्या आंगणांतूय यक्षगान घडोवन हाडटात.

यक्षगानांतलें नाट्य ज्या पुराणीक आख्यानाचेर उबारतात ताका प्रसंग म्हण्टात. तांची भास कन्नड आसता. मंगळूरांत कांयकडेन ती कोंकणी आसा. कूट आनी आट अशा दोन पद्दतींनी यक्षगान सादर करतात.

कूट पद्दतीक ताळमद्दळे अशेंय म्हण्टात. ताळमद्दळे म्हणजे टाळ-मृदंगाचे साथीचेर केल्लें यक्षगान. हातूंत नृत्यनाट्य नासता जाल्यार फकत प्रसंगांचें गायन आसता. गायनाची पद्दत कर्नाटक संगिताकडेन जुळपी आसता.

आट पद्दतीचें यक्षगान म्हळयार बैलाटम. बैल म्हळयार मैदान वा पटांगण आनी आटम म्हळयार नृत्यनाट्य. उकत्या मैदानाचेर, मळांचेर सादर करतात देखून ताका बैलाटम म्हण्टात.

यक्षगानाचें स्वरूप बरेंचशें चंपूकाव्याभाशेन आसता. सुरवेक फकत भागवतांतल्या प्रसंगांचेर नृत्यनाट्यां आदारिल्लीं आसतालीं. पूण मागीर रामायण, महाभारत, पुराणां हातुंतले ठळक प्रसंग तशेंच शिव आनी शक्ती हेय यक्षगानाचे विशय जावपाक लागले. अशा प्रसंगांचेर आदारिल्ल्या सुमार ५० नाटकांचेर यक्षगान ह्या नृत्यनाटकाचीं कथानकां आदारिल्लीं आसात. झुजांतले पेंच, झगडीं आनी विरोध हीं ह्या कथानकाचीं मूळसुत्रां आसात. हो एक ओजस्वी, [illegible]धान आनी जोशपूर्ण नाचाचो आविश्कार. हातूंत नाचपी [illegible] तेच बायलांचीय भुमिका करतात. हातुंतलें काव्य आनी [illegible], नाचपी आपुणूच माचयेर म्हण्टात. यक्षगान हें मूळचें गांवगिरें [illegible]तुंतली न्हेसपा येवजण, रंगांची येवजण हातूंत एके तरेचें सादेपण आसता. नाचांत पदन्यास आनी 'भ्रमरी' (वाटकुळयो हालचाली) [illegible]त.

यक्षगान हें अद्‌भुतरम्य स्वरुपाचें आशि[illegible] तातूंत वास्तवतायेचें प्रमाण उणें आसता. प्रयोगाची सुरवात विनायक [illegible]न जाता. ताचे उपरांत सुब्बरायाक (नागाचें प्रतीक) उद्देशून एक पद म्हण्टात. मागीर तांबड्या रंगाच्या पड्ड्याफाटल्यानच्यान पात्रां वीररसयुक्त पदन्यास करीत माचयेर येतात. ह्या नाच प्रकारांतल्या पात्रांचे सौम्य

आनी रौद्र अशे दोन वांटे जातात. तातुंतलो नाच दोलायमान आसता. देखुनूच ताका 'यक्ष आंदोलन' अशेंय नांव आसा. ह्या नृत्यनाट्यांत लास्यांगूय येता. पूण ताचो उद्देश शृंगार प्रदर्शीत करप होच आसता अशें न्हय. केन्नाय लेखनांतलें उणेपण रंगमाचयेर अभिनयचातुर्यान भरून काडटात. ह्या नृत्यनाट्यांत विनोदाक व्हडलेंशें म्हत्व ना. तरीय हातुंतलो विदुशक नाट्यांतलो ताण उणो करपाचें काम करता. हो विदुशक हेर नाचप्यांवांगडा रंगमाचयेर प्रवेश करता. फकत विनोद करून पळोवप्यांची मनरिझवण करता आसतना हेर नाचप्यांची नक्कल करूनय तांचेपरस चड बरो नाच करपाचो यत्न करता. तशेंच परत परत तांचेर भाश्य करता. चडशा सगळ्या यक्षगान प्रयोगांचो अखेर झुजांत वा लग्नांत जाता.

यक्षगानाची खाशेली अशी राग-संगीतपद्दत आसा. हालींच्या काळांत ताचेर शास्त्रीय कर्नाटक गायनपद्दतीचो बरोच प्रभाव दिसता. पात्राच्या मनाचे स्थितीप्रमाण राग वेंचपाचे खाशेले पद्दतीक लागून भावनांक एक खोलाय फावो जाता. न्हेसपा येवजणेच्या वा रंगभुंयेच्या संदर्भांत सादारणपणान पात्रांचे तीन वांटे करतात. देखीक - ब्राह्मण, ऋषी हांचें न्हेसप आनी रंगभुशा सादीच आसता. कृष्णाचें तरनेपण दाखोवपाखातीर त्या पात्राक मिश्यो लायनात. कर्ण, अर्जून सारकिल्या विरांची रंगभुशा गुलाबी आसता. पूण राकेसांचे रंगपद्दतीखातीर मात तांबडो, पाचवो आनी काळो हे रंग चड करून वापरतात. शृंगारीक पात्रां आनी राकेस पाचवें वा काळें जाकीट घालतात आनी तांबडें वा नारिंगी रंगाचें चौकडींचें धोतर न्हेसतात. ताचेर जायते अलंकार घालतात. चड करून राजघराण्यांतले लोक फेटो बांदतात. ताच्या आकाराचेर पात्राचो मान थरोवं येता.

फाटल्या कांय वर्सांमदीं मूळ रुपांत यक्षगान करपी पंगड उणें जायत आसात. राज्यशासन दसऱ्याच्या उत्सवांत तांकां आपोवणें दिवन उर्बा दिता. आज-काल यक्षगानांतल्या अभिनयाचो कस जरी खालावला तरीय यक्षगानांतल्या नाचाचें तंत्र, अभिनयाची धर्ती सारकिल्यो गजाली अभ्यास करपासारक्यो आसात. डॉ. शिवराम कारंथ हाणें ह्या विशयाचेर बरेंच संशोधन केलां.

पयलीं यक्षगान बावल्यांच्या खेळांतल्यानूय सादर करताले. यक्षगानाचें आयज आधुनिकीकरण जाल्ल्यान तातूंत थोडिशी कृत्रीमताय आयिल्ली आसली तरीय तातुंतलें संगिताचें व्हडपण आनी सभावीक, निरागस अशी सोबीतकाय हांकां लागून ह्या नाट्य-नृत्य प्रकारान आयज लोकमनाचेर प्रभाव घाल्लो दिसता.

कर्नाटकांतल्या कांय तरणाट्यांनी यक्षगान कोंकणींतूय हाडलां आनी कोंकणी कलाकार पंगडावतीन ताचे प्रयोग करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**यज्ञसंस्था :** पुर्विल्ल्या काळापसून भारतांत अस्तित्वांत आशिल्ली एक धर्मीक आनी समाजीक संस्था. सर्ग, पुत्र, पशू ,भलायकी, संपत्ती, पापनाश सारकिल्या बऱ्या फळांचे प्राप्तीखातीर अग्नी, इंद्र ह्या देवतांक उद्देशून अग्नींत समंत्रक आहुती ओंपपाचें धर्मीक कर्मकांड अशें स्थूल मानान यज्ञाचें स्वरूप आसा.

यज्ञ हें उतर यज् (यज्ञ करप) ह्या संस्कृत धातूपसून जाल्लें आसून त्याच धातूपसून जाल्ल्या यजन्, याग आनी इष्टी हीं उतरांय यज्ञ ह्या अर्थान वापरतात. तशेंच क्रतू, वितान, मेध, विदथ, मख, सव, सवन, होम, होत्र, आहव, अध्वर हींय उतरां चड उण्या फरकान त्याच अर्थान वापरतात.

यज्ञ कसो निर्माण जालो आनी ताचो कसो प्रसार जालो, हे संबंदीं जायत्यो गजाली वैदिक साहित्यांत सांगिल्ल्यो आसात. प्रजापतीन देव आनी राकेसांक उत्पन्न केले उपरांत यज्ञ आनी छंद उत्पन्न केले. यज्ञ पयलीं राकेसांकडेन गेलो आनी छंदूय ताचे फाटोफाट थंय गेले अशें तैत्तिरीय संहितेंत म्हळां. ताचेवयल्यान यज्ञ पयलीं राकेसांकडेन आशिल्लो म्हणपाचें कळटा. देव आनी राकेसांमदीं जावपी झुजांत सदांच देव जिखताले. देखून यज्ञ राकेसांक सोडून देवांकडेन गेले. मागीर देवांनी त्या यज्ञाचें विधिविधान खूब वाडयलें. फुडें यज्ञाविशीं राकेस देवांचें अनुकरण करपाक लागले. देवांकडेन आशिल्लो हो यज्ञ ऋषींनी मेळयलो आनी अशेतरेन देवांकडच्यान यज्ञविद्या मनशांमेरेन पावली.

ब्राह्मण ग्रंथांतूय अशो जायत्यो आख्यायिका आसात. वैदिक काळांतूच यज्ञ नश्ट जालो. तो देवांनी यत्न करून परत मेळयलो. एके कडेन अशें म्हळां, यज्ञ देवांपसून पयस गेलो, तेन्ना देव ताका सोदपाक शकले नात. तांणी हें काम अदितीक सांगलें. तिणें देवांपसून वर मेळयलो. तो म्हणजे 'यज्ञाचे सुरवेक आनी अखेरेक म्हाका आहुती मेळपाक जाय'. देवांनी तो वर दिलो. मागीर अदितीन यज्ञाक परत सोदून हाडलो.

यज्ञाविशीं अशो वैदिक आख्यायिका प्रचलीत आसल्यो तरी तेविशीं वेव्हारीक आनी संभाव्य अशीं कांय अनुमानां पंडितांनी काडिल्लीं आसात.

पुर्विल्ल्या काळांत मनशाक जेन्ना अग्नीचो सोद लागलो तेन्ना ताचे जिणेंत व्हड क्रांती जाली. थंड प्रदेशांतल्या लोकांक, अग्नीक सदांच घरांत जागत दवरपाची गरज लागली आनी ताका लागून हीम प्रदेशांतूच यज्ञ ही संस्था उद्‌भवली आसुंये.

यज्ञ म्हणजेच यातुविधी अशें जायत्या विद्वानांनी मानलां. कांय जाण यज्ञ ही फकत यातुक्रिया न्हय, जाल्यार यातू आनी धर्मीक आराधना हांचें संमिश्र स्वरूप थरता अशें मानतात.

स्पश्ट पुरावे नासले तरीय यज्ञाची मूळ कल्पना इंडो-युरोपियन काळाइतली पोरनी आसुंये. इंडो - इराणी काळांत यज्ञसंस्था

बरीच विकसीत आशिल्ली इतलें खरें. वैदिकांचो अग्निष्टोम आनी पारशांचो होम हातूंत बरेंच सारकेपण आसा. अथर्वन्, आहुती, यज्ञ, सोम हीं उतरां मातशीं बदलून घेतिल्लीं दिसतात. ऋग्वेदाच्या काळांत यज्ञसंस्था पुराय विकसीत जावंक नासली तरी तीन अग्नी, तीन सवनां आनी चड करून १६ ऋत्विज ऋग्वेदाच्या ऋषींक खबर आशिल्ले अशें दिसता. कांय जाणाच्या मतान यज्ञसंस्थेची पुराय वाड जालेउपरांत वेदसंहितांची निमाणी आवृत्ती तयार जाली. ब्राह्मण ग्रंथांच्या काळांत हे संस्थेचो प्रभाव सगळयांत ऊंच आशिल्लो आनी उपनिषदांच्या काळापसून तो उणो जायत गेलो. इतिहासीक काळांत जायत्या राजांनी वेगवेगळे यज्ञ केल्ल्याचे कोरीव लेख सांपडटात तरी सर्वसामान्य समाजाचेर यज्ञांचो प्रभाव खूबूच उणो जाल्लो. आधुनिक काळांत खूब उण्या प्रमाणांत यज्ञ जातात.

विशिश्ट फळाचे इत्सेन देवतेखातीर अग्नींत समंत्रक आहुती अर्पण करपासारक्यो कांय गजाली यज्ञांत सारक्यो आसल्यो तरी खंयच्या फळाची इत्सा आसा, खंयच्या द्रव्याची आहुती दितात, येजमान खंयचे शाखेचो ह्या कारणांवयल्यान यज्ञांच्या अनुश्ठानांत फरक पडटा. ताकालागून यज्ञांचे जायते प्रकार केल्यात.

श्रुतींनी (वेदांनी) सांगिल्ले ते श्रौत आनी स्मृतींनी सांगिल्ले ते स्मार्त अशे यज्ञांचे दोन प्रकार मानतात.

श्रौत यज्ञांचे इष्टी, पशुयाग आनी सोमयाग अशे तीन प्रकार आसात. इष्टींत पुरोडाश, आज्य सारकिल्लीं हविर्द्रव्यां आसतात. पशुयागांत इष्टींतलीं द्रव्यां अदीक पशू आनी सोमयागांत इष्टी आनी पशुयागांतलीं द्रव्यां अदीक सोमरस अशीं हविर्द्रव्यां आसतात.

प्रकृती आनी विकृती अशे यज्ञांचे आनीक दोन प्रकार आसात. खंयचोय यज्ञ कसो करचो हें समजुपाखातीर शास्त्रान जेन्ना ताच्या सगळया आंगांचें वर्णन केल्लें आसता, तेन्ना त्या यज्ञाक प्रकृतियाग म्हण्टात. जेन्ना खंयच्याय यज्ञाविशीं म्हायती दितना प्रकृतियागाच्या वर्णनांत येवंक नाशिल्ली अशी नवी आनी खास म्हायती सांगिल्ली आसता आनी हेर म्हायती प्रकृतियागांतल्यान अतिदेशान मेळटा तेन्ना त्या यज्ञाक 'विकृतियाग' म्हण्टात. यज्ञांचे नित्य, नैमित्तिक आनी काम्य अशेय तीन प्रकार आसात. आनीक एके पद्दतीप्रमाण पाकयज्ञसंस्था, हविर्यसंस्था आनी सोमयज्ञसंस्था अशे यज्ञांचे तीन प्रकार आसून त्या यज्ञस्थानांमदीं दर एक अशे सात प्रकार आसात. ह्या तीन यज्ञसंस्थांमदीं पाकयज्ञसंस्था ही स्मार्त आनी हेर दोन संस्था श्रौत आसात.

आतांमेरेनच्या वर्गीकरणांत बसनात अशेय कांय यज्ञ आसात; तांकां 'विकृति' अशें म्हण्टात. हांचे भायर 'सव' म्हणूनूय यज्ञ आसतात. देखीक - गोसव, पृथ्वीसव. विश्वजीत यज्ञासारके आनिकूय कांय म्हत्वपूर्ण यज्ञ आसात. घरांत नित्याक करपाचेय पंचमहायज्ञ आसात.



यज्ञाचीं उपकरणां

यज्ञांत वेगवेगळया तरांचीं उपकरणां वापरतात. तातुंतलीं चडशीं उपकरणां लांकडापसून करतात. स्रुव, अग्निहोत्रहवणी, जुहू, उपभृत ध्रुवा हीं पात्रां लांकडाचीं आसतात. रशना, शुल्ब, निदान ह्या नांवाच्यो दोरयो, पुरोडाश भाजपाखातीर 'कपाल' म्हणून मातयेचीं

भाजिल्लीं खावपरां, शूर्प (सूप), वेदी मेजपाखातीर शम्या नांवाचो दांडो, कृष्णाजिन, यज्ञाची राखण करपाक स्फ्य नांवाचें तरसादीअसलें लांकडी आयूध, यज्ञीय पशू बांदपाखातीर यूप (खांबे), पशूचे अवयव कापपाखातीर स्वधिती नांवाची सुरी, येजमानाक आंग खरपुपाक लागपी हरणाचें शींग, यजमानान दिक्षा घेतले उपरांत तकलेक बांदपाचें उश्णीष (पागोटें), धर्म नांवाचें हविर्द्रव्य तयार करपाखातीर लागपी महावीर नांवाचें पात्र, शफा नांवाचो चिमटो, तणाचीं मुळां कापपाखातीर लागपी पर्शू नांवाचें शस्त्र, अग्नीक वारो घालपाखातीर लागपी धवित्र नांवाचे आयणे, सोम कुटपाखातीर लागपी अधिषवणफलक, देवतांखातीर सोमरस दवरपाखातीर 'ग्रह' पात्रां, ऋत्विजांक सोमरस पियेवपाखातीर लागपी चमस नांवाचे पेले, सोम दवरपाखातीर वापरतात ती 'राजासंदी' नांवाची घडवंची अशीं जायतीं उपकरणां यज्ञांत जाय पडटात.

कोणाय दादल्याक जेन्ना सर्ग, पूत, भलायकी, विजय, अन्न, पापनिवारणा असलें फळ मेळचें अशी इत्सा आसता तेन्ना यज्ञ हें फलप्राप्तीचें साधन मानून तो विधिपुर्वक यज्ञाचें अनुश्ठान करता. अशा दादल्याक येजमान म्हण्टात. देवांनीय यज्ञ केल्ल्याच्यो देखी सांपडटात. यज्ञाचो खर्च करपाची जापसालदारकी येजमानाची आसता आनी यज्ञाचें फळय ताकाच मेळटा. ताची बायल ही ताची सहधर्मचारिणी आशिल्ल्यान यज्ञाच्या अनुश्ठानांत सहभागी जाता आनी तिकाय यज्ञाचें फल मेळटा. यज्ञ विधिपूर्वक कांयच दोश उरनासतना पुराय जालो जाल्यार ताचेपसून अपूर्व नांवाची शक्ती निर्माण जाता आनी तिका लागून येजमानाक त्या यज्ञाचें फल फावो जाता अशी श्रद्धा आसा.

खास अशे पद्दतीन ऋत्विजांची म्हणजे यज्ञीय पुरयतांची नेमणूक करता. हे ऋत्विज यज्ञीय कर्मकांड पुराय करतात आनी ते खातीर अखेरेक येजमानाकडच्यान तांकां दक्षणां मेळटात. यज्ञाखातीर वेंचून काडिल्ल्या जाग्याक विहार म्हण्टात. थंय यज्ञमंडप घालतात. यज्ञाप्रमाण विहाराचें क्षेत्र आनी यज्ञमंडपूय बदलता. अग्नींत आहुती दिवपाखातीर हाडिल्लीं हविर्द्रव्यां ज्या जाग्यार दवरतात ताका वेदी अशें म्हण्टात. वेदिची शीम दाखोवपाक तिच्या सगळ्या वटांनी विटो दवरिल्ल्यो आसतात. ही वेदी दर्भांनी धांपतात.

आहुतीचो स्विकार करपाखातीर देवता ह्या दर्भांच्या आसनाचेर येवन बसतात अशें मानतात. येजमान, ऋत्विज आनी ताची बायल यज्ञमंडपांत प्रवेश करतात. यज्ञाखातीर लागपी अग्नी यज्ञमंडपांत हाडटात. ऋत्विजांची मधुपर्कान पुजा करतात. ताचे उपरांत येजमानाक विधिपुर्वक यज्ञाची दिक्षा दितात. मागीर यज्ञाच्या स्वरुपाप्रमाण यज्ञकर्माचें अनुश्ठान सुरू जाता.

येजमानाखातीर यज्ञाचें पुरयतपण करपी ब्राह्मणाक ऋत्विज म्हण्टात. होता, अध्वर्यू, उद्गातो आनी ब्रह्मा हे ऋग्वेद, यजुर्वेद, सामवेद आनी अथर्ववेद ह्या वेदांचे ऋत्विज आशिल्ले. ब्रह्मा हो मुखेल ऋत्विज आशिल्ल्यान ताका चारूय वेदांचें ज्ञान अपेक्षित आसता. मैत्रावरुण, अच्छावाक आनी ग्रावस्तुत् हे होत्याचे सहाय्यक ऋत्विज. प्रतिप्रस्थाता, नेष्टा आनी उन्नेता हे अध्वर्यूचे; प्रस्तोता, प्रतिहर्ता आनी सुब्रह्मण्य हे उदगात्याचे आनी ब्राह्मणाच्छंसी, आग्नीध्र आनी पोता हे ब्रह्माचे सहाय्यक आसात. अग्निहोत्रांत ऋत्विज नासता. येजमानानच अग्निहोत्र करचें. पूण क्षत्रिय आनी वैश्य हांकां अग्निहोत्र करपाक एक ऋत्विज वा पुरोयताची गरज आसता.

चार मुखेल ऋत्विजांतल्या होत्याचें काम म्हणजे ऋचा म्हणून देवतांक आवाहन करप, उद्गात्याचें काम म्हणजे सामगायन करून देवतांची तुस्त करप आनी ब्रह्माचें काम सगळ्या ऋत्विजांच्या कामाचेर नदर दवरून अनुश्ठानांत कांयच चूक उरची ना हें पळोवप अशें आसता. यज्ञांतल्या चडशा क्रियांची आनी आहुती घालपाची जापसालदारकी अध्वर्यूचेर आसता. ब्रह्मा आनी येजमान हांचे परवानगेन तो सगळ्या ऋत्विजांक प्रैष (आदेश) दीत आसता.

यज्ञाच्या प्रकाराप्रमाण ताका अग्नीची गरज आसता. श्रौत यज्ञाक तीन अग्नी लागतात जाल्यार गृह्य यज्ञाक एक अग्नी पुरो जाता. यज्ञांत अग्नीचें स्थान म्हत्वाचें. अग्न्याधान (अग्नीची विधीवत स्थापना) केले बगर येजमानाक खंयचोच यज्ञ करपाक मेळना.

यज्ञांत अग्नी, इंद्र, वरूण, मित्र, अर्यमा, सविता ह्या देवतांक उद्देशून हविर्द्रव्यांचो मंत्रपूर्वक त्याग करतात. देखुनूच द्रव्य, देवता आनी द्रव्यत्याग हे यज्ञाचे तीन मुखेल घटक आसात.

यज्ञांतलीं सगळीं कर्मां समंत्रकूच करपाचीं आसतात. मंत्राचो उच्चार शुद्ध आसत जाल्यारूच यज्ञाचें फळ मेळटा. तशेंच देवतेखातीर जाचो त्याग करतात त्या द्रव्याचो अग्नींत प्रत्यक्ष प्रक्षेप (उडोवप) म्हणजेच होम. येजमान वा ऋत्विज 'जुहुयात्', 'जुहाति' ह्या वेदशब्दाप्रमाण जो त्याग करतात ताका 'होम' म्हण्टात.

यज्ञांत वेगवेगळ्या तरांच्या द्रव्यांची आहुती दितात. अग्नींत द्रव्य अर्पण करप म्हणजेच आहुती दिवप. ह्या द्रव्यांत पुरोडाश चरू (शीत), आज्य (तूप), पशू मारून तांचे अवयव, सोमवल्ली धोडावन काडिल्लो रोस, सोमरस सारकिल्ल्या गजालींचो आस्पाव जाता.

वेगवेगळ्या यज्ञांनी वेगवेगळ्या वेवसायांकडेन संबंद आशिल्लीं कामां करचीं पडटालीं आनी ताका लागून जायत्या वेवसायांच्या आनी शास्त्रांच्या विकासाक चालना मेळ्ळी.

चड करून इंद्रियांची रिजवण करपाचीं सगळीं साधनां यज्ञसंस्थेंत आशिल्लीं अशें ज्ञानकोशकारांनी म्हळां. तशेंच वैदिक यज्ञसंस्था पुर्विल्ल्या भारतांतल्या मनशाच्या जिविताच्या वेगवेगळ्या आंगांक स्पर्श करता देखून भारताचो समाजीक आनी संस्कृतीक इतिहास समजून घेवपाखातीर तिचो अभ्यास गरजेचो थरता. विस्तार, वैविध्य हे

नदरेन पळयल्यार तिचे तोडीचें धर्मीक कर्मकांड संवसारांत हेर खंयच सांपडना. हाचेवयल्यान हे संस्थेची व्यापकता स्पश्ट जाता. यज्ञाकंलागून वेगवेगळयो विद्या आनी कलांकूय उत्तेजन मेळळें. यज्ञकल्पनेचो समाजजीवनाचेरूय खूबसो प्रभाव आशिल्लो. शास्त्रांच्या अभ्यासाकूय यज्ञांक लागून चालना मेळळी.

एका काळांत समाजजिविताचेर प्रभाव आशिल्ली यथसंस्था आधुनिक काळांत प्रभावहीन जाल्या. व्हड प्रमाणांतले यज्ञ यागूय बरेच उणे जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**यॅमॅन** : यॅमॅन अरब रिपब्लिक. अक्षांश - १२°.५ - १८°.० रेखांश ४२°.५ - ५३°.५ (सादारण), राजपाटण : साना. उत्तर यॅमॅन आनी दक्षिण यॅमॅन एकठांय येवन घडिल्लो देश. दक्षिण यॅमॅनाक पिपल्स डॅमॉक्रेटीक रिपब्लीक ऑफ यॅमॅन जाल्यार उत्तर यॅमॅनाक यॅमॅन अरब रिपब्लिक म्हण्टाले. सदया ह्या दोनूय देशांक एकवटीतपणान रिपब्लीक ऑफ यॅमॅन म्हणून वळखतात.

दक्षिण यॅमॅनाचो आवांठ ३,३६,८६९ चौ. किमी. उत्तरेक उत्तर यॅमॅन आनी साउदी अरेबिया, उदेंतेक ओमान, दक्षिणेक गल्फ ऑफ एडन. अस्तंतेक उत्तर यॅमॅन बाब अल् मंडबचो दर्या दक्षिण यॅमॅना भोंवतणीं आसात.

उत्तर यॅमॅनाचो आवांठ १,९५,००० चौ. किमी. ह्या देशाचे (आदलो देश) उत्तर आनी उत्तर उदेंतेक साउदी अरेबिया, दक्षिणेक दक्षिण यॅमॅन आनी अस्तंतेक बाब अल् मंडबचो दर्या आनी तांबडो दर्या (रॅड सी) आसात.

**भूंयवर्णन** : दक्षिण यॅमॅन चार भुगोलीक वाठारांनी पातळ्ळां १. दक्षिण दिकेकडलो वाठार दर्यादिगेच्या रुपांत १२०० किमी. लांब आनी १२-२५ किमी. रूंद आसा. २. सपाट सड्याचो वाठार (भितरली सुवात) ३. हद्रामाउंटचे उत्तरेक पातळिल्लें रेंवट ४. दोंगराळ आनी उंचायेच्या वाठारांत आशिल्लीं पाचवींचार देगणां.

उत्तर यॅमॅन भुगोलिक नदरेन दोन वाठारांनी पातळ्ळां. १. उंचायेवयलो दोंगराळ वाठार आनी अशीर दर्यादिगेवयलो सपाट वाठार.

दक्षिण यॅमॅनांत तीन जुंवे आसात. १. कामारन हो जुंवो तांबड्या दर्यांत आसा. (आवांठ १८१ चौ. किमी.) २. पेरीम (आवांठ - ३०० चौ. किमी.) ३. अरेबीयन म्हासागरांत आशिल्लें सोकोत्रा (आवांठ - ३५०० चौ. किमी.).

उत्तर यॅमॅनांतल्या दोंगरांची सादारण उंचाय १२०० ते ३००० मी. आसा. जबलहदूर हें ह्या वाठारांतलें सगळयांत ऊंच तेमूक. (उंचाय : ३७६० मी.). उत्तर यॅमॅनाचे उत्तर शिमेर रब् अल् खली हें रेंवट आसा. ह्या वाठारांतले दर्यादिगेक टिहामट एश-शाम म्हणून वळखतात. दर्यादिगेसावन ३२ ते ४८ किमी. रुंदायेच्या वाठारांतली भूंय नापीक आसा. उदेंतेकडल्या वाठारांतूय नापीक भूंय आनी रेंवटां आसात.

**न्हंयो** : उत्तर यॅमॅनांत चडशो न्हंयो, दोंगराळ वाठारांतल्या मुळसांतल्यान सुरू जावन तांबड्या दर्याक वचून मेळटात. देखीक : झेबीड, सिहॅम आनी सुरदूद. उत्तर यॅमॅनाच्या उत्तर वाठारांतल्यान कांय न्हंयांचे प्रवाह उदेंतेक व्हांवत वचून रब् - अल् - खलीच्या रेंवटांत गुप्त जातात. उत्तर यॅमॅनाच्या आग्नेय वाठारांतल्यान दक्षिण यॅमॅनांत व्हांवत वचपी न्हंयांमदीं बॅनें, तिबेन हांचो आस्पाव जाता.

**हवामान** : उत्तर यॅमॅनाचें तापमान सादारणपणान २०° सॅ. आसता. वातावरण उश्ण आनी रेंवटी स्वरुपाचें. हांगाचे गिमाळे चड कडक आसनात. शिंयाळयांत कडक थंड्साण आनी चड - उण्या प्रमाणांत बर्फ पडटा. गिमाळयांत वायव्य दिकेकडल्यान येवपी आनी शिंयाळयांत नैऋत्य दिकेकडल्यान येवपी वारो हांगा थोडोभोव पावस हाडटा. वर्सुकी पावसाचें प्रमाण ५०० मिमी. आसता. दक्षिण यॅमॅनाचें सादारण हवामान अशें आसलें तरी पावसाचें प्रमाण ४०-५० मिमी. इतलें उणें आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात** : देशांतल्या दोंगराळ वाठारांत आनी न्हंयांच्या देगांनी तेचपरी दर्याविळेवयल्या रेबकोंडांत व्हड प्रमाणांत वनस्पत दिश्टी पडटा. कांटयाळी वनस्पत हांगा व्हड प्रमाणांत दिश्टी पडटा. खाजूर, सीताफळ आनी युफेर्बिया हीं फळझाडां हांगा जातात. हांगा मेळपी ६०० तरांच्या झाडांमदीं आल्पायन रोज, तेरडा, तुळस, एल्डर, जुडास हांचो मुखेलपणान आस्पाव जाता. दोंगराळ वाठारांत बबून, कुरंग, बिबटो आनी सोंसो ही मोनजात जाल्यार विंचू आनी मिलिपॅड हे कीड-जीव देशाच्या साबार वाठारांनी मेळटात. हांगा सोरपांचें प्रमाण खूब उणें. ससाणे, गीद, डोमकावळे, कीर, हनीसकर, बीव्हर, फिंच हीं सवणीं हांगा चड प्रमाणांत आसात. कीड, मूय सारकिल्या वर्गांत मोडपी २७,००० जीव हांगा मेळटात.

**इतिहास** : अरबस्थानांतलो सगळयांत पिकाळ आनी गिरेस्त वाठार अशीं वर्णनां पुर्विल्ल्या जाणकारांनी यॅमॅनाविशीं केल्यांत. आदल्या काळार हांगा व्हड प्रमाणांत वेपाराची देवघेव चलताली. वासाळ तेलां आनी मसाल्याचो वेपार हांचो मोटो वेव्हार सबाचे राजवटींत चलतालो (इ.स. पयलीं १००० ते २००). हो यॅमॅनाचे भरभराटीचो काळ. उपरांत होच वेपार हेर अरब राज्यांनी पातळटकच ह्या वैभवाक देंवती कळा लागली. इ.स. पयलीं दुसरो शेंकडो ते इ.स. उपरांत सव्या शेंकड्या मेरेन हांगा हिम्यरायट राजघराण्याची सत्ता चलताली. इ.स. ५२५ त किरीस्तांव इथिओपियन घुसखोरांनी हो वाठार आपल्या शेकातळा हाडलो. इ.स. ५७५ त इराणी घुसखोरांनी तांकां हारोवन हो वाठार आपल्या शेकातळ हाडलो. सातव्या शेंकड्यांत हांगा इस्लाम धर्माचो प्रसार जालो. तेउपसंत हांगा इस्लाम धर्माच्या शिया आनी सुन्नी पंथियांमदीं खर संघर्श सुरू जालो. णवव्या शेंकड्यांत हांगा

याह्या अल् हदी इलाल हक्क ह्या साउदी राजकर्त्यान इमाम पिठाची स्थापणूक केली. हें इमाम विद्यापीठ विसाव्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन अस्तित्वांत आसलें.

इकराव्या शेंकड्यांत यॅमॅनाचेर इजिप्ताची जाल्यार १२ वो ते १५व्या शेंकड्या मेरेन रसूल राजवंशान हांगा चडांतचड काळ सत्ता भोगली. सोळाव्या शेंकड्यांत मामलूक सुलतान आनी ऑटोमन तुर्कांनी ह्या वाठाराचेर आपलो शेक गाजयलो. झैदी इमान कासीम द ग्रेट (१५९७-१६२०) हाणें यॅमॅनाचो मदलो वाठार जिरवलो. ताका लागून तुर्कांची सत्ता दर्यादिगेच्या वाठारापुरती मर्यादीत उरली. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या आरंभाक वहाबी मुसलमानांनी यॅमॅन ताब्यांत घेतलें. सन १८१८ त झैदी इमाम परत सत्तेर आयलो. हे खातीर ताणें इजिप्ताच्या सुलतानाचो चलो इब्राहीम पाशा हाचो पालव घेतलो. देखून इजिप्शीयन सैन्याचो शेक हांगा १८४० मेरेन उरलो. १८४० ते १८७२ हो यॅमॅनांतलो अराजक, घुस्मटमार आनी झुजाचो काळ. १८७२त ऑटोमन राजकर्त्यांनी साना शार जिखून ह्या वाठारांत सत्ता मेळयली. तांची सत्ता पयल्या म्हाझुजाच्या अस्तामेरेन (१८१८) हांगा आसली.

ग्रेट ब्रिटनाच्या पालवान इद्रिस जमातीन यॅमॅनांत सत्ता मेळोवपाचो एक अयशस्वी यत्न केल्लो. इब्न मुहमंद हाणें हो यत्न १९२५ वर्सा मोडून काडलो. ते तिडकीन इद्रीस जमातीन साउदी अरेबियाचो राजा सुलतान इब्न सौद हाका आपलो तेंको दिलो. १९३४ वर्सा यॅमॅन साउदी अरेबियाभितर झूज जालें. उपरांत ताइफाचे कबलातीक मान्यताय दिवन दोनूय पंगडांनी झूज थांबयलें. हे कबलातीवरवीं साउदी अरेबियान यॅमॅनाचे सुटकेक मान्यताय दिली. १९४५ वर्सा यॅमॅन अरब लिगाचो वांगडी जालो. १९४७ वर्सा युनोचो वांगडी जालो. १९५८त युनायटेड अरब स्टेट आनी युनायटेड अरब रिपब्लीक हांचो एक पंगड तयार जालो.

१८ सप्टेंबर १९६२ दिसा सुलतान इमाम अहमदाच्या मरणाउपरांत लश्करी क्रांती जावन उत्तर यॅमॅन घडलें. हे लश्करी राज्यक्रांतीक इजिप्त लश्कराचो आदार जाल्यार थळाव्या मूळ झुजारी पंगडाक / जमातीक साउदी अरेबियाचो आदार आसलो. दुसरे वटेन दक्षिण यॅमॅनान ऑगस्ट ते ऑक्टोबर १९६७ काळामजगतीं शिंपडून पडिल्लीं १७ ल्हान राज्यां एकठांय येवन एन. एल. एफ. सैन्याआड झुजूंक लागलीं. ही संद सादून 'फ्लोसी' हे थळावे झुजारी संघटनेवरवीं ब्रिटीश सैन्य आनी एडन शारांतल्या नागरिकांक पिडूंक आरंभ केलो. थळाव्या खर प्रतिकाराक भियेवन २९ नोव्हेंबर १९६७ दिसा ब्रिटीश सैन्य दक्षिण यॅमॅनांतल्यान भायर सरलें. हाचो परिणाम म्हणून ३० नोव्हेंबर १९६७ त दक्षिण यॅमॅनाचो जल्म जालो. १९७२ वर्सासावन उत्तर आनी दक्षिण यॅमॅन एकठांय हाडपाखातीर खूब यत्न जाले. मे १९९० त उत्तर आनी दक्षिण यॅमॅन एकठांय आयलीं. १९९४ त यॅमॅनाच्या कांय वाठारांनी अंतर्गत यादवीचो खवदळ जालो. हाचो परिणाम म्हणून ५ मे १९९४ दिसा दक्षिण यॅमॅन, उत्तर यॅमॅनासावन वेगळें जालें. ७ जुलय १९९४ दिसा उत्तर यॅमॅनाच्या फौजांनी पुराय देशाचेर नियंत्रण करतकच ही यादवी सोंपली. ह्या देशाचे राश्ट्राध्यक्ष म्हणून कर्नल अली अब्दुल्ला सालेह जाल्यार प्रधानमंत्री म्हणून लॅफ्टनंट जनरल अब्द अल अझीझ अब्द अल घनी वावर पळयतात.

**संविधान :** उत्तर यॅमॅनाची संसद १००० वांगड्यांची आसली. तातूंतले ७०० वांगडी वेंचून काडटाले. तिका जनरल पिपल्स कॉंग्रेस म्हण्टाले. ही संसद १९८२ त अस्तित्वांत आयली. उत्तर यॅमॅनांत आठ प्रशासकीय प्रांत आसले. (सदाह, अल्-बैदा, साना, अल हुदयदाह (होदयदा), हज्जाह, रीडा, इब्ब आनी तैज). दक्षिण यॅमॅनाचे संसदेक सुप्रीम पिपल्स काउन्सील म्हण्टाले. ही संसद ३१ ऑक्टोबर १९७८त अस्तित्वांत आयली. दक्षिण यॅमॅनांत स प्रशासकीय प्रांत (ॲडन, लहेज, ॲबेन, शाब्वा, हद्रामाउंट आनी अल् म्हारा) आनी ३० उपविभाग आसले. दोनूय देश संयुक्त राश्ट्रसंघ आनी अरब लिगचे वांगडी आसले. सद्या दोनूय देश एकठांय आयिल्ल्यान अखंड यॅमॅनाच्या संविधानाचो आवांठ स्पश्ट जावंक ना.

**अर्थीक परिस्थिती :** उत्तर यॅमॅनाचे दुसरे उदरगत येवजणेप्रमाण (८२-८६) वट्ट खर्चाचें प्रमाण २९,३०० दशलक्ष रियाल आसले. १९८६ वर्सा उत्तर यॅमॅनाच्या अदमासपत्रकांत ११,४४,३९,६००० रियाल खर्च आनी ७७७१०२१००० रियाल येणावळीची येवजण आशिल्ली. मार्च ८८च्या आंतरराश्ट्रीय दरांत ९.८८ रियालांक एक अमेरिकन डॉलर मेळटालो. दक्षिण यॅमॅनाचे (१९८६-९१) येवजणेप्रमाण ११८.२ दशलक्ष खर्चाची तजवीज आसली. १९८६ वर्साच्या अदमास पत्रकांत २१४.४ दशलक्ष यॅमॅनी दिनारांची येणावळ आनी ३४१.४ दशलक्ष यॅमॅनी दिनार खर्चाची तजवीज आसली. मार्च ८८ च्या चलनदरेंत एका अमेरिकन डॉलरांक = ०.३४३ यॅमॅनी दिनार मोल आसलें. १९९६ वर्साच्या अखंड यॅमॅनाच्या रियालाचें मोल एक अमेरिकन डॉलर म्हळ्यार १४० रियाल इतलें आसलें.

**ऊर्जा आनी सैमीक गिरेस्तकाय :** उत्तर यॅमॅन - वीज उत्पादन = ५५६ दशलक्ष किलॉवॅट (१९८६). तेलाच्या उत्पादनाक १९८७ तल्यान सुरवात जाली. खणींतलें मीठ हांगा व्हड प्रमाणांत जाता (उत्पादन - ६४००० टन १९८९). देशांतली १.३ दशलक्ष हॅक्टर जमीन शेत आनी हेर पिकावळीखातीर वापरतात. मुखेल पिकां आनी उत्पादन (१००० टनांत) सोरगम - ३९१, बटाट - २०८, द्राक्षां - ८५, खाजूर - ७, गंव - ८५, नाचणे - ४१, मको - ४९ (१९८६).

**मोनजात :** गोरवां - १,५२,००, करें - ५७०००, मेंढरां - १.८५ दशलक्ष, बोकड्यो २.२६ दशलक्ष, कुकडां - १६ दशलक्ष (१९८६).

**दर्यांतली पिकावळ :** १८,३०० टन (१९८४).

**दक्षिण यॅमॅन - वीज उत्पादन** - ५५६ दशलक्ष किलोवॉट. १९८५ वर्साच्या आंकड्याप्रमाण शेतकी पिकावळीचें उत्पादन (१००० टनांत), बाजरी - ८० टन, गंव - १५ टन, कापूस - ५टन, कापूस बियां - १० टन, सातू - २ टन.

**मोनजात :** गोरवां - ९६,०००, मेंढरां - ९,३०,०००, बोकड्यो - १.३८ दशलक्ष, कुकडां - २ दशलक्ष (१९८६). नुस्त्यांची पिकावळ हो हांगाचो मुखेल वेवसाय. ताची विदेशांत निर्यात जाता. (उत्पादन - ८०,००० टन १९८६).

**उद्देगधंदे :** उत्तर यॅमॅनांत उद्देग व्हड प्रमाणांत नात. सगळयांत व्हड लुगटां उद्देगाचो कारखानो सानाक आसा. १९८२ त शिमिटाचें उत्पादन ८५००० टन आसलें. देशांत खाणा जिनस आनी जनावरां व्हड प्रमाणांत आयात जातात. १९८५ त ग्रेट ब्रिटनांत जाल्ले आयात - निर्यातीचें प्रमाण (१००० पाउंड स्टर्लिंगांत) ५५,३३४ आनी २३०६ इतलें आसलें. उत्तर यॅमॅनांत १९८६ वर्सा ४४,००० पर्यटक आयले.

दक्षिण यॅमॅनांत रंग, लुगटां, व्हडीं वा बोटींतल्यान म्हालाची येरादारी हे वेवसाय मुखेलपणान चलतात. १९८५ वर्साची वट्ट आयात २४१ दशलक्ष दिनार जाल्यार निर्यात १० दशलक्ष दिनार आसली. ग्रेट ब्रिटनाकडली आयात आनी निर्यात (१००० स्टर्लिंगांत) २८,२७१ आनी निर्यात १०५६इतली आसली.

**लोक आनी समाजजीण :** राजधानी : साना, उद्देगीक राजधानी : एडन. उत्तर यॅमॅनाचो मुखेल धर्म मुसलमान. हातुंतले ३९% सुन्नी आनी ५९% शिया पंथीय आसात. दक्षिण यॅमॅनांतूय चडांतचड नागरीक मुसलमान धर्म मानतात. हांगा थोड्याभोव प्रमाणांत हिंदू आनी किरिस्तांव नागरिकांची वसती आसा.

**शिक्षण :** एकवटीत यॅमॅनांत साक्षरतायेचें प्रमाण ३८% आसा (१९९६).

**भाशा/साहित्य :** उत्तर यॅमॅनांत सानाचे मशिदींत व्हड ग्रंथालय आसा. तातूंत १०,००० ग्रंथ, पुर्विल्लीं हातबरपां आनी धर्मीक ग्रंथ आसात. हांगासल्ली मुखेल भास अरबी आसून तिका यॅमॅनी मातयेचो अरबी ढंग आसा.

**म्हत्वाचीं थळां :** सानाक चामडें, भांगर-शिंगर आनी आयदनां हांचो वेव्हार चलता. हें एक इतिहासीक शार आसून हांगा खूब मशिदी आसात. शारा भोंवतणी खूब पोरनी वणत आसा.

**एल होदेद :** म्हत्वाचो धको. हांगासावन काफी, चामडें, खाजूर हांची विदेशांत निर्यात जाता. मोचा हें शार काफयेचे निर्यातीक लागून नांवारुपाक आयलां. इब : हें शार बऱ्या जातींच्या घोड्यांक लागून नांवारुपाक आयलां. एडन : यॅमॅनांतलोच न्हय जाल्यार अरबी संवसारांतलो एक म्हत्वाचो दर्यांतलो धको. हांगा टँकरांवरवीं व्हड प्रमाणांत तेलाची हाड-व्हर चलता. येरोम : हें शार शेतकी आनी जनावरांच्या वेव्हाराक लागून नांवारुपाक आयलां. लोहया : हांगा खाणींतलें मीठ व्हड प्रमाणांत मेळटा.

येमेनाची भारतांतली कचेरी : बी - ७०, ग्रेटर कैलाश -१, नवी दिल्ली ११००४८ आनि उपकचेरी : १०२, मेकर टावर एफ. १०वो माळो कफ परेड मुंबय.

- पंढरीनाथ श्री. श. सुरसुरे

## यॅलो, रोझॅलीन सुसमान : (जल्म : १९ जुलय १९२१, न्यूयॉर्क).

अमेरिकन वैजकी भौतिकीविज्ञ आनी जीववैजकीय संशोधिका. प्रारण - प्रतिरक्षा - आमापन तंत्राचो विकास आनी ताचे जीववैजकी संशोधनांतले उपेग हे विशीं केल्ल्या कार्याविशीं १९७७ वर्साचो वैजकी वा शरीरक्रियाविज्ञानाचो नोबॅल पुरस्कार यॅलो हिका रॉझे गेयमँ आनी अँड्र्यू व्ही शॅली हांचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

तिणें हंटर म्हाविद्यालयांतल्यान ए. बी. (१९४१) आनी एम्. एस्. (१९४२) ह्यो पदव्यो घेतल्यो. १९४५ वर्सा तिणें अणुकेंद्रीय भौतिकी हो विशय घेवन इलिनॉय विद्यापिठाची पीएच्. डी. पदवी घेतली. थोडो तेंप तिणें हंटर म्हाविद्यालयाच्या भौतिकी विद्यालयांत काम केलें आनी उपरांत ती १९४७ वर्सासावन ब्रॉक्स वॅटॅरन्स ॲडमिनिस्ट्रेशन हॉस्पिटलांत संशोधन शाळेची संचालिका आनी अणुकेंद्रीय वैजकी विभागाची मुखेल म्हणून काम करूंक लागली. १९५० वर्सा तिका ह्याच हॉस्पिटलांतल्यान पास जाल्लो सॉलोमन ए. बर्सन हो सांगाती मेळ्ळो. १९७२ वर्सा बर्सनाक अचकीत मरण आयलें. ते मेरेन तीं दोगांय एकठांय संशोधन करतालीं.

संशोधनाचो तांचो पयलो विशय अवटू ग्रंथीचे विकृतीचें निदान करपाखातीर वापरतात त्या आयोडीन (१३१) ह्या किरणोत्सर्गी समस्थानिकाविशीं (एकूच अणुक्रमांक आशिल्ल्या पूण विंगड विंगड अणुभार आशिल्ल्या त्याच मूलद्रव्याच्या प्रकाराविशीं) आशिल्लो. १९५५ वर्साच्या अदमासाक मुद्रायुक्त इन्सुलिनाच्या वितरणाविशीं संशोधन करतना तांकां इन्सुलीन उपचार घेवपी पिडेस्तांच्या रगतांत इन्सुलीन बद्ध करपी प्रतिपिंडां म्हळयार भायलो पदार्थ शरिरांत येतकच तांचो विलो लावपाखातीर रगतद्रवांत निर्माण जावपी खाशेलीं प्रथिनां मेळ्ळीं. ह्या प्रतिपिंडांचे रगतांतले सांद्रतेचो सोद घेवपाखातीर यॅलो आनी बर्सन हांणी जें निरीक्षण केलें, तातूंत 'प्रारण - प्रतिरक्षा - आमापन' (radio-immunoassay) ह्या सामक्या संवेदनशील खाशेल्या तंत्राचो सोद लागलो. ह्या तंत्राचें खाशेलपण म्हळयार शरिरांत आसपी हजारांनी क्रियाशील जैव पदार्थांचें, ते सामके सूक्ष्म प्रमाणांत आसुनूय आमापन करप शक्य जालें. ह्या सोदापयलीं अशें आमापन शक्य नाशिल्लें. इन्सुलीन प्रतिरोधी पिडेस्तां भितर, तांची प्रतिरक्षा यंत्रणा,

ह्या बाह्य प्रथिनांआड प्रतिपिंडां तयार करता हो यॅलो आनी बर्सन हांचो दावो शास्त्रीय चवकटींत मान्य जावपाक खूब दुबाव घेतले, पूण तांणी आपले यत्न चालूच दवरले. सार्दे इन्सुलीन आनी मुद्रायुक्त इन्सुलीन हातूंतलो फरक हीं प्रतिपिंडां वळखनात. हाचे वयल्यान तांणी प्रारण गणित्र हें अणुकेंद्रीय प्रारण मेजपाचें उपकरण वापरून इन्सुलीन आमापन शक्य केलें. गिनीपिग वा सोंशे ह्या प्राण्यांभितर प्रयोगशाळेंत खंयच्याय जैव क्रियाशील पदार्थाआड प्रतिपिंडां निर्माण करप शक्य आशिल्ल्यान त्या सगळयांच्या खोल अभ्यासाक ह्या नव्या तंत्राक लागून खूब आदार जालो. सुमार तीस वर्सां यॅलो ह्या तंत्राचो अभ्यास आनी संशोधन करीत आशिल्ली.

सुरवेक ह्या तंत्राचो अंतःस्त्रावीग्रंथिविज्ञानांत (रगतांत सरळ विरगळपी उत्तेजक स्त्राव-हॉर्मोन-स्त्रवपी ग्रंथींविशींच्या विज्ञानांत) उपेग करपाचेर मुखेलपणान भर आशिल्लो. फुडें एंझायमां (जीवरसायनीक विक्रिया घडून येवपाक आदार करपी प्रथिनां), वखदी विज्ञान, वायरस आनी सूक्ष्म जंतुजन्य प्रतिजनां (जांकां प्रतिरोध करपाखातीर रगतद्रवांत प्रतिपींड निर्माण जातात अशें नुकसान करपी पदार्थ) आनी जीवविज्ञानाकडेन संबंदीत आशिल्ल्या हेर शेंकड्यांनी पदार्थांच्या संशोधनांतूय हे पद्दतीचें म्हत्व सिद्ध जालें.

यॅलो हिका नोबॅल पुरस्काराभायर हेर आनिकूय पुरस्कार मेळ्ळयात. तातूंतले कांय उल्लेख करपासारके आसात इलिलिली पुरस्कार (१९६१), गेर्डनर पुरस्कार (१९७१), कॉख पुरस्कार (१९७२), क्रेसी मॉरिसन पुरस्कार (१९७५), लास्कर पुरस्कार (१९७६) आनी बँटिक पदक (१९७८). हे भायर तिका बारा मानादीक डॉक्टरेट पदव्यो मेळ्ळयात. १९७५ वर्सा तिची नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसची वांगडी म्हणून आनी १९७८ वर्सा अमेरिकन ॲकॅडेमी ऑफ आर्टस अँड सायन्सीसची वांगडी म्हणून निवड जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**यांग, चेन निंग** : (जल्म : २२ सप्टेंबर १९२२, हफे, आन्ह्ये, चीन).

चीनी - अमेरिकन भौतिकीविज्ञ. बीटा क्षयाभाशेन दुर्बल अणुकेंद्रीय परस्परक्रियांचे बाबतींत समता अक्षय्यता (Parity Conservation) तत्त्वाच्या जावपी उल्लंघनाच्या सोदाविशीं यांग आनी ताचो सांगाती त्सुंग डाओ ली हाका १९५७ च्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो.

१९४२ वर्सा ताणें कुन्मिंग हांगाच्या नॅशनल साऊथवॅस्ट असोसिएटेड विद्यापिठाची बी. एस्सी. आनी १९४४ वर्सा चिंगयुआन विद्यापिठाची एम. एस्सी. ह्यो पदव्यो घेतल्यो. उपरांत १९४६ वर्सा तो चिंगयुआन विद्यापिठाची शिश्यवृत्ती मेळोवन अमेरिकेंतल्या शिकागो विद्यापिठांत गेलो. थंय एन्रीको फेर्मी आनी एडवर्ड टेलर हांच्या मार्गदर्शनाखाल संशोधन करून १९४८ वर्सा ताणें पीएच्. डी. पदवी घेतली. प्रिन्स्टनांतल्या इन्स्टिट्यूट फॉर ॲडवान्स्ड स्टडीस हे संस्थेंत ताणें १९४९ वर्सासावन संशोधनाक सुरवात केली आनी थंयच १९५५ वर्सा ताची प्राध्यापक पदाचेर नेमणूक जाली. १९६५ वर्सा तो न्यूयॉर्क स्टेट विद्यापिठांत प्राध्यापक जालो.

यांग हाणें मुखेलपणान सांख्यिकीय यामिकी आनी सममिती नेम ह्या विशयांनी संशोधन केलां. १९५६ वर्सा यांग आनी ली हांणी मेळून बीटा क्षयाभाशेन दुर्बल अणुकेंद्रीय परस्परक्रियांचे बाबतींत समता अक्षय्यता तत्त्वाचें उल्लंघन जावपाची शक्यताय आसा अशें सैद्धांतिक रितीन भाकीत केलें आनी तें तत्त्व ३० वर्सां सुमार आदारभूत मानप जातालें. ह्या भाकिताची चांचणी घेवपाखातीर कांय प्रयोगूय तांणी सुचयले. नॅशनल ब्युरो ऑफ स्टँडर्ड्स हांगाच्या सी. एस्. वू आनी ताच्या वांगड्यांनी तशेंच कोलंबिया विद्यापीठ आनी शिकागो विद्यापिठांतल्या हेर शास्त्रज्ञांनी अशे प्रयोग करून हें भविश्य खरें केलें. ह्या तांच्या सोदाक लागून आणवीय आनी मूलकण भौतिकीच्या मुलभूत सिद्धांतांत खूब बदल जाले. ह्या संशोधनाभायर यांग हाणें आर्. एल्. मिल्स हाचे वांगडा मूलकण आनी क्षेत्रां हांचेखातीर मूलभूत परस्परक्रियांचें गणितीय वर्णन करपी क्रमनिरपेक्ष नाशिल्लो गेज सिद्धांत मांडलो. हो सिद्धांत 'यांग-मिल्स सिद्धांत' ह्या नांवान वळखतात.

नोबॅल पुरस्काराभायर ताका आल्बर्ट आयन्स्टायन पुरस्कार (१९५७), प्रिन्स्टन विद्यापिठाची मानादीक डॉक्टरेट (१९५८) हे भोवमान मेळ्ळे. अमेरिकन फिजिकल सोसायटी, नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस ह्या विज्ञानिक संस्थांचो तो वांगडी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**यांगत्से न्हंय** : संवसारांतली पांचव्या क्रमांकाची आनी चीन देशांत आशिल्ली आशिया खंडांतली, लांबायेन सगळयांत व्हड न्हंय. तिची लांबाय सुमार ५,४९४ किमी. आनी जलवाहनक्षेत्र १८,२९,००० चौ. किमी. आसा. न्हंयेच्या देगणाचो उदेंत - अस्तंत विस्तार ३,२१९ किमी. आनी दक्षिणोत्तर विस्तार ९६५ किमी. आसा. हे न्हंयेचें यांगत्से वा यांगत्से किअँग हें नांव चीनांतल्या पुर्विल्ल्या यांग जहागिरीवयल्यान आयिल्लें आसूंक जाय. चीनी लोक सादारणपणान जांग ज्यांग (लांब न्हंय) ह्या नांवाचो वापर करतात. हे न्हंयेक डा किअँग (व्हड न्हंय) ह्या नांवानूय वळखप जाता. युरोपी लोकांनी ब्ल्यू रिवर (निळी न्हंय) अशें नांव हे न्हंयेक दिलां.

हे न्हंयेचो उगम चीनाच्या अस्तंत वाठारांत तिबेटाचे ईशान्य शिमेलागसार डांगकूल पर्वत रांगेंत दर्यापातळेसावन ५,४८६ मी. उंचायेचेर जाता आनी चीनाच्या इकरा प्रदेशांतल्यान व्हांवत वचून

उदेंतेक शांघाय लागसार उदेंत चीनी दर्याक ती मेळटा. उलान मुलुन आनी चुताए हे यांगत्सीचे सुरवेचे मुखेल दोन प्रवाह. तातूंत दक्षिणेकडलो उलान मुलुन (चीनी) वा उलान मुरेन (तिबेटी) ह्या नांवान वळखुपी प्रवाह हो मुखेल. ह्या दोन प्रवाहांच्या संगमापसूनचो तिबेटी वाठारांतलो यांगत्सेचो प्रवाह सवथळ आनी व्हड अशे खिंडींतल्यान उदेंतेक व्हांवत वचून न्हंयेपात्रांत दरेके कडेन ल्हान - ल्हान तळीं आनी पाणटे तयार जाल्यात. हांगाच्यान ही न्हंय भायर सरून बायान कारा दोंगराचे दक्षिणेक चड उंचायेवयल्यान आग्नेय दिशेन सकयल देंवता. हांगाच्या फातरट आनी खर उताराच्या वाठारांतल्यान न्हंयेन देड ते तीन किमी. खोलायेचें अशीर देगण तयार केलां. आग्नेय दिशेन बरेंच अंतर व्हांवत वतकच ही न्हंय दक्षिणवाहिनी जाल्या. उगमासावन १६५ किमी. अंतरावयल्या बाटांगमेरेन ही न्हंय दर्या पातळेसावन २५१० मी. मेरेन सकयल देंवल्या. ह्या वाठारांत यांगत्सेचो बरोचसो प्रवाह तिबेट-सेचवान शिमेवयल्यान मेकाँग आनी सॅल्वीन न्हंयांच्या लगसारल्यान आनी तांकां समांतर दक्षिण दिशेन व्हांवत वता. पिंगच्युअॅना उपरांत सेचवान - युनान शिमेवयल्यान यांगत्से पयलीं उदेंतेक आनी उपरांत ईशान्येक ईपिनकडेन व्हांवत वता. इतलेमेरेन यांगत्सेक जायत्यो उपन्हंयो येवन मेळटात. तातुंतली यालुंग ही सगळयांत व्हड न्हंय. उगमासावन ईपिनमेरेनचो न्हंयेप्रवाहाचो पयलो पांबडो समजतात. ह्या प्रवाहाक जिन्शा (भांगराची रेंव) ह्या नांवान वळखतात. ह्या वाठारांतले लोक पोरणे पद्दतीची शेती आनी गोरवां पोसपाचो वेवसाय करतात. हांगाचो शिंयाळो कडक आनी गिमाळे दीस ऊबदार आसतात.

ईपिन ते यीचंग हो १,०१४ किमी. लांबायेचो न्हंयेचो दुसरो पांवडो. हांगा सेचवानच्या दोंगराळ वाठारांतल्यान न्हंय ईशान्येक व्हांवत वता. सेचवान देगण सुपीक आनी शेतीयोग्य अशा हवामानाचें आसा. ह्या वाठारांत रेशमी किडयांची पैदास करतात. हांगा लोखण, कोळसो, तांबें, फॉस्फरस, मँगनीज, कथील, भांगर, खनीजतेल आनी सैमीक वायू आदी खनीज पदार्थ मेळटात. ह्या भागांत मिन, जीआलिंग, कुचिअँग, तो आनी वू ह्यो उपन्हंयो यांगत्से न्हंयेक मेळटात.

सेचवान वाठारांतल्यान भायर येवन यांगत्से न्हंय मैदानी वाठारांत येता. हांगा हे न्हंयेन त्स्यूतान, यू आनी शालिय हे तीन पाणटे (घळी) तयार केल्यात.

हे न्हंयेच्या तिसऱ्या पांवडयान उदेंत चीनांतलो मैदानी वाठार व्यापिल्लो आसा. ह्या वाठाराक शेती आनी उद्देगीक नदरेन आगळेंच म्हत्व आसा. ह्या पांवडयांत न्हंयेक हान, यूआन, शीआंग, गान आदी जायत्यो उपन्हंयो येवन मेळटात. ह्या प्रवाहमार्गांत चँग, तुंगतिंग, त्यांग, पोयांग, हे सारकीं तळीं आनी जलाशय निर्माण जाल्ले आसात. ल्यांग - दझ-ह ह्या मैदानी वाठाराचे उदेंतेक न्हंय अशीर आनी मनभुलोवणे अशे खिंडींतल्यान व्हांवन वता. उपरांत ती इशान्येक उत्तर चीनी मैदानाकडेन व्हांवक लागता. ह्या वाठारांत आनचिंग, वूशी, शूजो शांघाय हीं व्हड व्हड शारां निर्माण जाल्लीं आसात. जंग ज्यांग शारापसून फुडें यांगत्सेच्या त्रिभूज वाठाराक सुरवात जाल्या. हांगा यांगत्सेच्यो जायत्यो उपन्हंयो, फांटे - उपफांटे, न्हंयांचीं पोरनीं पात्रां, तळीं आनी दलदलीचे वाठार दिश्टी पडटात. उपरांत यांगत्से न्हंय दोन फांट्यांनी विभागून हे दोनूय फांटे दर्याक वचून मेळटात. ह्या दोनूय फांट्यांमदीं न्हंयेच्या तोंडाकडेन गाळ सांचून चुंगमिंग हो जुंवो तयार जाला.

तिसऱ्या पांवडयांतलें यागत्सेचें पात्र मैदानी वाठारापरस ऊंच आशिल्ल्यान हुंवारापसून राखण मेळची हे नदरेन मुखेल न्हंयेदेगेर आनी उपन्हंयांच्या देगांचेर २,७३६ किमी. लांबायेचे बांद घाल्यात.

यांगत्सेच्यो मुखेल आठ उपन्हंयो आसून तातुंतल्यो यालुंग, मिन, जीआलिंग आनी हान ह्यो चार उपन्हंयो दाव्यांतल्यान जाल्यार वू, युआन, शीआंग आनी गान ह्यो चार उपन्हंयो उजव्यांतल्यान यांगत्सेक मेळटात.

प्रवाहमानांत यांगत्सेचो संवसारांत चवथो क्रमांक लागता. ही न्हंय दर वर्सा ४३ ते ५० कोटी टन इतलो गाळ व्हांवोवन हाडटा. पावसाळयांत यांगत्से आनी तिच्या उपन्हंयांक येवपी हुंवाराचें उदक भोंवतणच्या वाठारांत पातळटा. दोंगरी वाठारांतल्यान मैदानी वाठारांत व्हांवत येता आसतना न्हंयेच्या उदकाचो वेग उणो जायत वता. ताका लागून पात्रांतूच गाळाचें संचयन जाता आनी न्हंयेचें पात्र सवथळूच उरता. तशें जाल्ल्यान हुंवाराचें उदक न्हंयेपात्रांत पावना आनी तें भोंवतणच्या मैदानी वाठारांत पातळून थंयच्या लोकांक परत परत हुंवारांचो धोको निर्माण जाता.

यांगत्से आनी तिच्या उपन्हंयांचेर येवपी हुंवारापसून चीनाक पुर्विल्ल्या काळासावन गंभीर अशे धपके बसल्यात. इ. स. आदल्या काळांतूय हांगा व्हड हुंवाराचे व्हड व्हड धपके बशिल्ल्याचे उल्लेख पुर्विल्ल्या साहित्यांत मेळटात. इ. स. आदीं २०६ ते ११६ ह्या वर्साँच्या काळांत अरिश्ट हाडपी १०३० परस चड हुंवार आयले. हांचेभायर १८७०, १८९६, १९३१, १९४९ आनी १९५४ वर्सा हांगा व्हड प्रमाणांत हुंवार आयिल्ले.

उदका येरादारीचे नदरेन यांगत्से ही चीनांतली मुखेल न्हंय. नांनकिंग, वुहान, चुंगकिंग हीं यांगत्सेवयलीं मुखेल बंदरां. 'ग्रँड खारीज' (कॅनाल) हें चीनांतलें आनी संवसारांतलें सगळयांत पोरनें आनी लांब खारीज. ह्या खारजांत तांग -हो आनी यांगत्से ह्यो दोन न्हंयो एकामेकांक जोडिल्ल्यो आसून उदका येरादारीचे नदरेनय ह्या खारजाक आगळेंच म्हत्व आसा. हे न्हंयेचेर वुहान (१९५६) आनी नानकिंगाक (१९६८) लोखणा पूल बांदिल्ले आसात.

यांगत्से, तिच्यो उपन्हंयो आनी देगणांतलीं ल्हान - व्हड तळीं नुस्तेंमारी खातीर उपेगी आसात. पांचश्यां परसूय चड जातींचीं नुस्तीं हांगा मेळटात. तातूंत कार्प, ब्रीम, चीनी पर्च, गॅपर्स, लॅंप्री, काळो आनी धवो आमूर, फ्लॅटफिश, स्टर्जन रो ह्यो जाती म्हत्वाच्यो.

यांगेत्से न्हंयेचें देगण सुपीक आसून पुर्विल्ल्या काळार सावन शेतीखातीर ताची नामना आसा. तांदूळ आनी हेर पिकांच्या भरपूर उत्पादनाक लागून यांगत्से देगणाक 'चीनाची धान्याची कोठी' म्हण्टात. तांदळां भायर कापूस, गंव, सातू, मको, कड्डणां, कणंगां, वनस्पती तेलां, च्या हीं ह्या देगणांतलीं मुखेल शेतकी उत्पादनां. पुर्विल्ल्या काळासावन उदका शिंपणावळी खातीरूय यांगत्से न्हंय उपेगांत आसा. जलविद्युत् निर्मितीखातीर यांगत्सेक, तिच्या उपन्हंयांक आनी देगणांतल्या तळयांक मानाची सुवात आसा. यांगत्सेच्या देगणांत हुंवार नियंत्रण, शिंपणावळ आनी जलविद्युत्‌निर्मिती खातीर जायते प्रकल्प उबारल्यात. शांघाय, नानकिंग, वुहान, चूंगकिंग आनी चंगडू हीं न्हंये देगणांतलीं १० लाखांवयर लोकसंख्या आशिल्लीं मुखेल शारां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**याक :** रानांत रावपी एक प्राणी. ताचें शास्त्रीय नांव बॉस ग्रुनिएन्स. ताचो आस्पाव बोव्हिडी कुळांतल्या समखुरी सस्तन प्राण्यांच्या आर्टिओडॅक्टिला ह्या गणांत जाता. लडाख, सिक्कीम, तिबेटाचो सडो आनी चीनांतल्या कान्सू प्रांताच्या कांय वाठारांनी हो प्राणी रानटी स्थितींत मेळटा.

भारताच्या वाठारांत लडाखाच्या चांगचेन्मो देगणांत, जम्मू आनी कश्मीरांत अस्तंतेक सतलज न्हंयेच्या देगणांत हिमाचल वाठारांत,उदेंतेक कुमाऊंच्या देगणांत आनी सिक्कीमांत ताची वसणूक आसा. १९६१ चे मेजणेप्रमाण भारतांत तांचो आंकडो सुमार २४,००० आशिल्लो. हाचेपसून निर्माण जाल्ल्या संकरीत प्राण्यांचो आंकडो हाच्याकूय दुप्पट आसा.



पुराय वाड जाल्लो नर १.७ मी. ते १.८५ मी. मेरेन ऊंच वाडटा. पूण मादी आनी मनशाळिल्ल्या याकाची उंचाय हाचेपरस उणी आसता. नराचें वजन १८० ते ८०० किग्रॅ. आसता. नराचीं शिंगां वांकडीं आसून तांची लांबाय सुमार ९० सेंमी. आसता. मादयेचीं शिंगां मोटवीं आनी बारीक आसतात. ताचे खांदे घटमूट आसून मान फुडें आयिल्ली आसता. ताका वर्शींड आसता आनी ताची फाट सरळ आसता. ताचे पांय मोटवे आनी घटमूट आसतात. ताचे केंस काळे, ल्हान आनी राठ आसून ते खांदे, हड्डें, मांडयो आनी अर्दी शेंपडी हांचेर आसतात. ताच्या कपलाचेर दोनूय शिंगांनी राठ केंसाचें झोंप आसता. याक दोन - तीन म्हयन्यांचो जायमेरेन ताच्या आंगार लांब केंस येनात. याक काळो आनी पुडीकोराचो आसून तोंडाचो भाग धवसार आसता. पोशिल्लो आनी रानटी याक हांचेमदीं तितलोसो फरक आसना. तो तण खाता आनी गाय - गोरवांवरी रवंथ करता. चरपाखातीर शियाळयांत ते २,००० ते ३,००० मी. उंचायेचेर आनी गिमाच्या दिसांनी ५,००० मी. उंचायेचेरूय वतात. तांकां बरें पेंवक येता.

रानटी याक कळपांनी रावतात. तातूंत शंबरांवयर प्राणी आसतात. शिंगां हीं तांच्या स्वसंरक्षणाचें साधन. तांचें नाक खूब तीक्ष्ण आसता.

पावसाळो सोंपतकच ते अळार येतात. डिसेंबराच्या सुमाराक तांचो समागमाचो काळ आसून गर्भधारणेचो काळ णव म्हयने आसता. पाडूक एक वर्साचें जाय मेरेन आवय वांगडा भोंवता.

हिमालयाच्या दोंगराळ वाठारांत वजें व्हरपाखातीर याकाचो उपेग करतात. याक फाटीचेर एक क्विंटल वजें घेवन वराक २ ते ३ किमी. गतीन दीसभरांत २० किमी. अंतर सहज वचूंक शकता. ताचें दूद पिवपाक वापरतात. ताच्या दुदांत १२% स्निग्धांश आसतात. ताचें मांस खावपाक वापरतात. ताच्या मोव बारीक केंसांपसून पश्मिना शाली, ट्वीड लुगट वा ब्लॅंकेटां करतात. ताचे कातीपसून जोडे, सदरे आनी जाकिटां तयार करतात.

स्पिती आनी प्यांगी ह्या हिमाचल प्रदेशांतल्या सड्याचेर संकरीत जातींची पैदास करपाखातीर याकाचे कळप पोसल्यात. ह्यो संकरीत जाती जीबू, झोमो, गारजो, डीमजो, गारमो, गार, टोल्मो, टॉल, ज्वाम-जीबू, झो आनी झुम ह्या नांवांनी वळखतात. हातूंतले झो हे जातीक शिंगां आसतात, पूण झुम ह्या याकाक शिंगां नासतात.

दोंगरी गाय आनी याक नर हांच्या संकराक कुमाऊँ दोंगुल्ल्यांत जीबू म्हण्टात आनी लडाखांत झोम म्हण्टात. जीबू भरपूर वजन व्हरता. हो वांझ आसता, पूण शेतकामाक खूब उपेगी पडटा. जीबू मादी आनी दोंगरी बैल हांच्या संकराक ज्वाम, टॉल वा टॉल्मो म्हण्टात. जीबू मादी आनी याक नर हांच्या संकराक कुमाऊँ दोंगुल्ल्यांत डीमजो आनी लडाखांत गारमो वा गार म्हण्टात. वजें व्हरपाक हांचो उपेग जाता.

याक मादी आनी दोंगरी बैल हांच्या संकराक गारजो म्हण्टात. सगळया संकरीत जनावरांमदीं जीबू वा झोम होच चड उपेगी प्राणी आसता. कॅनडांत याक मादी आनी रेडो हांचो संकर जावन तयार जाल्ल्या प्राण्याक याकेल हें नांव दिलां.

- डॉ. ए. वी. खांडेपारकार

- कों. वि. सं. मं.

**यातुशक्ती :** (पळेयात जादूविद्या).

**यात्रा - १ :** (पळेयात तीर्थक्षेत्र).

**यात्रा - २ :** (लोकनाट्य) बंगाल, ओडिसा आनी बिहार ह्या प्रदेशांतलो एक गांवगिरो नाट्यप्रकार. यात्रा म्हणजे मिरवणूक वा उत्सव. पुर्विल्ल्या काळांत खंयचेय देवतेचे भावीक तिचे उपासनेचो भाग म्हणून तिची मिरवणूक काडटाले. ते मिरवणुकींत तिचे कांय भावीक तिच्या चरित्रांतलो कसल्याय वांट्याचो अभिनय करून लोंकामुखार मांडटाले. तातूंत नाच आनी संगीत हांकांय म्हत्व आसतालें. कांय तेंपान ह्या नाट्य, नाच आनी संगीत आशिल्ल्या नाट्यप्रकाराक यात्रा नाटक अशें नांव फाव जालें.

यात्रा नाटकाचे उत्पत्तीविशीं विद्वानांमदीं मतभेद आसात. तरीय यात्रा नाटकाची सुरवात खूब पुर्विल्ल्या काळांत जाली हाचेविशीं दुमत ना.

यात्रा नाटक हें पयलीं धर्मीक नाटक आशिल्लें. देशकाळाप्रमाण ज्या ज्या देवतांची कीर्त वाडत वताली, त्या त्या चरित्रांतल्या प्रसंगांचेर यात्रा नाटकां जावपाक लागलीं. अशे तरेन शक्तियात्रा, शिवयात्रा, रामयात्रा, कृष्णयात्रा सारकिल्यो जायत्यो यात्रा नामनेक पावल्यो. ह्या नाटकांचो प्रभाव संस्कृत पंडितांचेर आनी हेर भाशांच्या विद्वानांचेर पडलो. जयदेवान आपल्या गीतगोविंदाची रचणूक ह्याच नाटकाचे धर्तेचेर केली. आयज कितलेशेच शेंकडे जाले ह्या काव्यांतल्या अश्टपद्यांचेर अभिनय चालू आसा. मध्ययूग हो यात्रा नाटकाचो वैभवाचो काळ. शंकरदेव आनी चैतन्य प्रभू हांणी तो घडोवन हाडलो.

चैतन्य प्रभूच्या काळांत यात्रा नाटकांत कृष्णलीलेचो प्रभाव खूब वाडलो, जाका लागून यात्रा नाटकाक कालियदमन यात्रा अशें नांव पडलें. हें नांव फुडें सुमार चारशें वर्सां प्रचारांत आशिल्लें. गीतगोविंद, भागवत आनी चंडीदासादी कवींचीं पद्यां हांच्या आदारान संवाद रचणूक करून कृष्णयात्रा अभिनीत करताले.

ह्या यात्रांनी संगिताक मुखेल सुवात आशिल्ली. कृष्णलीले उपरांत विद्यासुंदरयात्रा, शेखरयात्रा, पुराणयात्रा ह्या समाजीक यात्रांचे प्रयोग जावपाक लागले आनी इ. स. च्या अठराव्या शेंकड्यामेरेन ते चालू उरले. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत यात्रा नाटकांचेर हेर नाटकांचो प्रभाव पडलो. ह्या काळांत रत्नावली, सावित्री - सत्यवान, पद्मावती ह्या नव्या यात्रा नाटकांचे प्रयोग जावपाक लागले.

हीं यात्रा नाटकां चड करून मेकळे सुवातेंत जातात. कांय जाग्यांचेर मंटपूय उबारतात आनी प्रेक्षकांक बसपाखातीर कांबळी वा शेंदऱ्यो घालतात. केन्नाय मातशे उचायेचेर माची उबारतात वा सपाट जमनीचेरूय माचयेचें काम भागयतात. लांकडी कदेलांचेर रेशमी वा सुती कपडो घालून शिंवासन करतात. नाटकांत फकत दादलेच वांटो घेतात. बायलांची कामांय दादलेच करतात. पात्रांचो अभिनय गावप्यांच्या सामुहिक गायनाप्रमाण जाता. गायनाक धोल, मृदंग आनी करताल हांची साथ आसता. सगळे गावपी चोंगा नांवाचें धवें वस्त्र न्हेसून माचयेर येतात. नाटक सुरू जावंचे पयलीं अर्दवर धोल वाजोवपाक सुरवात जाता. नाटकाचे सुरवेक गौर - चंद्रिकेचें गायन जाता. तातूंत चैतन्य प्रभूक वंदन केल्लें आसता. नाच, गीत आनी वाद्य अशें ह्या नाटकाचें स्वरूप आसता. हातूंत एक सुत्रधार आसता आनी ताच्या दिग्दर्शनाखाल नट अभिनय करतात. नायकाचें काम सुत्रधार करता.

इ. स. च्या विसाव्या शेंकड्यांत स्वदेशी यात्रा नांवाचो एक नवो यात्रा नाटकप्रकार बंगालांत लोकप्रिय जालो. मुकुंददास नांवाच्या एका नाटककारान देशाभिमान जागो जातलो अशे तरेचीं नाटकां बरयलीं. त्या नाटकांतलीं पदां खूब प्रभावी आशिल्ल्या कारणान तांचो गांवांनी प्रसार जालो आनी त्या नाटकांवयल्यान स्फूर्त घेवन जायते तरणाटे राश्ट्रकार्याक लागले.

ओरिसांत वैश्णवपाणी हाणें यात्रा नाटकाक आधुनिक स्वरूप दिलें आनी मूळच्या तंत्रांत खूब बदल केलो. ताणें सुमार पन्नास नाटकां बरयलीं.

बंगाली यात्रा, कानडी यक्षगान, कोंकणी दशावतार ह्या नाच-नाट्य-गायन आशिल्ल्या लोकनाट्य प्रकारांनी बरेंच सारकेपण दिसता अशें जाणकारांचें मत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**यादव, आनंद :** (जल्म : ३० नोव्हेंबर १९३५, कागल, कोल्हापूर).

आर्विल्ले मराठींतलो ग्रामीण कवी, कथा-कादंबरीकार आनी ग्रामीण साहित्य चळवळीचो समर्थक समिक्षक.

एका शेतकार कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. कागल, रत्नागिरी, कोल्हापूर, पुणें हागा ताचें एम्. ए. मेरेन शिक्षण जालें. १९७४ वर्सा ताणें पीएच्. डी. ची पदवी घेतली. 'मराठी लघुनिबंध : प्रेरणा, प्रवृत्ती आनी विकास' ह्या विशयाच्या ताच्या प्रबंधाक पुणें विद्यापिठाचीं केळकर आनी परांजपे इनामां मेळ्ळीं.

शिकता आसतना ताणें पुणें आकाशवाणीचेर स्क्रिप्टरायटर अँड असिस्टंट टू द प्रोड्युसर (१९५९ - ६०); पंढरपूर म्हाविद्यालय (१९६१-६३); श्री शाहू मंदिर महाविद्यालय, पुण्याक (१९६३-७८) मराठीचें अध्यापन केलें. उपरांत फेब्रुवारी १९७८ वर्सासावन तो पुणें विद्यापिठाच्या मराठी विभागांत प्रपाठक म्हणून काम करूंक लागलो.

विद्यार्थी दशेंतलो ताचो पयलो कवितांझेलो 'हिरवे जग' (१९६०) आनी दुसरो 'मळ्याची माती' (१९७८).

ग्रामीण अणभवविश्व संवेदनशील मनान तन्मयतेन आनी उत्कटतेन उक्तावपाचो यादवान सातत्यान यत्न केला. दुख्खानुभवाच्या

सुक्ष्म आनी सरवोल चित्रणांतल्यान तो मानवी मनाच्या तळाक स्पर्श करता. खळाळ (१९६७) हो ताचो उल्लेख करपासारको कथांझेलो. तशेंच, ताचे हेर कथांझेले अशे आसात : घरजावई (१९७४), माळावरची मैना (१९७६), आदिताल (१९८०), डवरणी (१९८२), उखडलेली झाडे (१९८६). संमिश्र अणभवांतल्यान ताची कथा आकार घरता आनी व्यक्तिचित्र, नाट्यछटा, चिंतनिका, संवाद अशा विंगड विंगड रुपांनी ती जल्म घेता. मातीखालची माती (१९६५) हो ताचो व्यक्तिचित्रसंग्रह.

ताच्या लिखाणांत गांवगिरे जिणेची अनुभूती आनी दीनदुबळयांची काकुळट उत्कटतेन दिश्टी पडटा. तेखातीर सगळेकडेन ताणें गांवगिरे बोलीचोच पुराय सामर्थ्यान वापर केला.

गोतावळा (१९७१), नटरंग (१९८०) ह्यो ताच्यो राज्य पुरस्कार फावो जाल्ल्यो कादंबऱ्यो. तेचभाशेन एकलकोंडा (१९८०), माऊली (१९८५) ह्यो हेर कादंबऱ्यो.

रात घुंगुराची (१९७८) हें ताणें बरयल्लें वगनाट्य, तशेंच स्पर्शकमळे (१९७८) आनी पाणभवरे (१९८२) हें ताचें ललीत लिखाण दोळे दिपकावपी आसा.

**ग्रामीण साहित्य** : स्वरूप आणि समस्या (१९७९), ग्रामीणता : साहित्य आणी वास्तव (१९८१ राज्यपुरस्कारप्राप्त) आनी मराठी साहित्य, समाज आणि संस्कृती (१९८५) हातुंतले ताचे समिक्षेंत परिसर आनी मनीस हांच्या अनुबंधांतल्यान साहित्याची निर्मणी कशी जाता हें ताचे समिक्षानदरेंतल्यान होलमता. एका सृजनशील लेखकान अणभवी नदरेन बरयल्ल्यान हे समिक्षेक आगळें मोल आसा.

झोंबी, घरभिंती आनी काचवेल अशी आत्मचरित्रात्मक पुस्तकांची वळेरी ताणें बरयल्या.

'झोंबी' ह्या ताच्या पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळळा.

- कों. वि. सं. मं.

**यादव राजवंश** : सोमवंशांतल्या ययाती राजाचो पूत यदूच्या वंशजांक यादव म्हण्टात. वेगवेगळया पुराणांनी यादवांचीं जायतीं नांवां मेळटात. भागवत पुराणांत क्रोष्टू, सहस्त्रजित, नल आनी रिपू हीं चार नांवां आसात; जाल्यार मत्स्य पुराणांत नील, अंतिक आनी लघू; वायू पुराणांत जित आनी लघू, हरिवंशांत सहस्त्रद आनी पयोद; विष्णु पुराणांत फकत क्रोष्टू; पद्म पुराणांत भोज, भीम, अंधक, कुंजर, वृष्णी, श्रुतसेन, श्रुताधार कालदंष्ट्र आनी कालजित अशीं तांचीं नांवां आसात. तातुंतले क्रोष्टू आनी सहस्त्रजित हे दोगूच म्हत्वाचे आशिल्ले. तांचेपसून यादवांचे दोन फांटे विस्तारीत जाले.

क्रोष्टू फांट्यांतले भीम सात्वत नांवाच्या राजाचे पूत अंधक आनी वृष्णी हांचे वेगळे वंश पुराण प्रसिद्द आसात. अंधकाच्या वंशांतल्या आहुकाक उग्रसेन आनी देवक हे दोन पूत आशिल्ले. उग्रसेन मथुरेचो राजा आशिल्लो. कंस ताचो पूत. देवकाची धूव देवकी हिचें लग्न वृष्णीच्या वंशांतल्या वसुदेवाकडेन जालें. कृष्ण हो तांचो पूत.

कंस खूब हुशार आनी म्हत्वाकांक्षी आशिल्लो. मगधसम्राट जरासंधाच्या दोन धुवांकडेन ताचें लग्न जाल्लें. कंसान जरासंधाच्या पालवान आपलो बापूय उग्रसेनाक पदभ्रश्ट केलो आनी मथुरेचें राज्य मेळयलें. वसुदेव उग्रसेनाचो आनी कंसाचो प्रधान आशिल्लो. वसुदेव आनी देवकी हांकां कंसान बंदिवासांत दवरिल्लीं. ताच्या त्रासांक लागून जायते यादव दुसऱ्या प्रदेशांनी गेले. पूण अखेरेक वसुदेवाचो पूत कृष्णान ताका मारलो.

वृष्णीच्या वंशांतले कृष्ण, बलराम हे वसुदेवाचे पूत; स्यमंतक मणी मेळोवपी सत्राजित आनी ताचो भाव प्रसेन, अक्रूर, सत्यभामा ह्यो व्यक्ती पुराणांत प्रसिद्द आसात. कंसाच्या वधाचो सूड घेवपाखातीर जरासंधान मथुरेचेर सतरा घुरयो घाल्यो. पूण दर खेपे ताका अपेशच आयलें. पूण त्या झुजांक लागून जावपी अनर्थ टाळपाखातीर कृष्णान मथुरेच्यान स्थलांतर केलें. सगळया यादवांक घेवन तो सौराष्ट्रांत गेलो. थंय ताणें द्वारका नगरी वसोवन आपली राजधानी स्थापली.

कृष्णाच्या मरणाउपरांत ताच्या राज्यांत आनी वंशांत खूब घरगुती झगडीं जालीं. तातूंत जायते दादले मेले. फकत जाण्टे दादले, बायलो आनी भुरगीं हातुंतल्यान सुटलीं. ही खबर कळ्ळे उपरांत अर्जुन द्वारकेक गेलो आनी तांकां घेवन हस्तिनापूराक परत आयलो. त्या लोकांनी मागीर पंजाब आनी मथुरामंडळ ह्या प्रदेशांनी वस्ती केली.

क्रोष्ट फांट्यांतल्या यादवांचे जायते फांटे आशिल्ले. तातुंतले अंधक, वृष्णी, कुकुर आनी भोज हे फांटे चड प्रसिद्द आसात. तांचीं गणराज्यां आशिल्लीं. तांचें अधिपत्य वंशपरंपरेन एकाच कुळाकडेन चलनाशिल्लें. कारण यदुच्या वंशजांक ययातीच्या शापाक लागून शींवासनाचेर बसपाचो अधिकार नाशिल्लो. देखून त्या त्या गणराज्यांतले लोक आपापलो अधिपती वेंचून काडटाले.

यदुचो पूत सहस्त्रजित हाच्या वंशाक हैहय म्हण्टाले. हैहय फांट्यांतलो कृतवीर्याचो पूत कार्तवीर्य सहस्त्रार्जुन ह्या नांवान प्रसिद्द जालो. तो खूब पराक्रमी आशिल्लो. ताणें कर्कोटक नागांकडल्यान माहिष्मती नगरी जिखून घेतली आनी थंय राजधानी स्थापली. हिमालयापसून नर्मदेमेरेनचो सगळो वाठार ताणें जिखलो. लंकेचो राजा, रावणान आर्यावर्ताचेर जेन्ना धुरी घाली तेन्ना कार्तवीर्यान ताका धरलो आनी जायतीं वर्सां बंदिवासांत दवरलो. पुराणांत ताचेविशीं जायत्यो कथा आसात. ताका परशुरामान मारलो.

सहस्त्रार्जुनाक शंबर पूत आशिल्ले. तातुंतल्या एकाचें नांव शूरसेन आशिल्लें. यमुनेचे देगेवयल्या ब्रजमंडळाक पुर्विल्ल्या काळांत

शूरसेन म्हण्टाले. ह्या शूरसेनावयल्यानच तें नांव पडलें अशें लिंग पुराणांत म्हळां. ह्या प्रदेशांतूच अंधक-वृष्णी ह्या जोड संघाचें गणराज्य आशिल्लें. उग्रसेन ताचो अधिपती आशिल्लो.

**देवगिरीचे यादव :** महाराष्ट्राचेर राज्य करपी एक वंश. सुबाहू नांवाच्या राजाचो पूत दृढप्रहार हो ह्या वंशाचो मूळ पुरूस मानतात. मथुरेच्यान श्रीकृष्णावांगडा सौराष्ट्रांत वचून राविल्ल्या यादवांमदलो तो आशिल्लो. इ. स. ८६०च्या अदमासाक नासिकालागीं चंद्रादित्यपूर नगरी वसोवन थंय ताणें आपलें ल्हानशें राज्य स्थापलें. चंद्रादित्यपूर म्हणजेच नासिक जिल्ह्यांतलें चांदोर. हाचो उल्लेख एका तांब्यांपट्यांत आसा. हेमाद्रीच्या व्रतखंडांत ह्या वंशांतल्या राजांचीं नांवां दिल्लीं आसात. तीं अशीं - सुबाहू, दृढप्रहार, सेऊणचंद्र, धाडियप्प, भिल्लम, राजगी, वड्डिग, धाडियप्प (दुसरो), भिल्लम (दुसरो), वेसुगी, अर्जुन, भिल्लम (तिसरो), वेदुगी , वेसुगी (दुसरो), भिल्लम (चवथो), सेऊणचंद्र (दुसरो), परम्मदेव, सिंहराज (सिंघण), मल्लुगी, अमरगांगेय, गोविंदराज, अमरमल्लुगी, कालीय बल्लाळ, भिल्लम (पांचवो).

दृढप्रहाराची राजधानी श्रीनगराक आशिल्ली अशें व्रतखंडांत म्हळां. हें श्रीनगर म्हळयार सिन्नर आसुंये अशें एक मत आसा. दृढप्रहाराचो पूत सेऊणचंद्र हाणें सेऊणपूर हें नगर वसयलें. ताच्या राज्याक सेऊणदेश अशें नांव आशिल्लें. गोदावरी न्हंयेचे देगेचो, नासिकापसून देवगिरीमेरेनचो प्रदेश ह्या नांवान वळखतात. तो दंडकारण्याचे शिमेर आशिल्लो. सेऊणपूर ही ताची राजधानी आशिल्ली.

सौराष्ट्रांतल्या यादवांचोच दुसरो एक फांटो कर्नाटकांत वचून द्वारसमुद्र - हळेबीडच्या वाठारांत वशिल्लो. ते लोक आपणाक यदुचे वंशज आनी यादवकुलतिलक मानताले. पूण इतिहासांत ते होयसळ यादव म्हणून प्रसिद्द आसात.

सेऊणचंद्र आनी ताचे उपरांतचे कांय राजा राष्ट्रकुटांचे सामंत आशिल्ले. भिल्लम (दुसरो) हो स्वताक महासामंत म्हणोवन घेतालो. कल्याणाचो चालुक्य राजा तैलप हाचो तो मांडलिक आशिल्लो. ठाण्याचो शिलाहार राजा झंझ हाची धूव लच्छिमव्व हिचेकडेन ताणें लग्न केलें. नासिक, खानदेश आनी औरंगाबाद ह्या प्रदेशांचेर ताचें राज्य आशिल्लें. भिल्लम (तिसरो) हो चालुक्य राजा जयसिंह हाचो जांवय आशिल्लो. सेऊणचंद्र चालुक्य विक्रमादित्याचो सामंत आशिल्लो. इ. स. १०६९ तलो ताचो शिलालेख मेळिल्लो आसा. महाराष्ट्र, उत्तर कोंकण, कारवार, बेळगांव, विजापूर, धारवाड आनी बल्लारीमेरेन ताचें राज्य पातळिल्लें आसतालें. ताचेउपरांत परम्मदेव आनी मागीर सिंहराज (सिंघण पयलो) हो राजा जालो. इ. स. ११३७ च्या अदमासाक विष्णुवर्धन होयसळ हाचेर सिंहराजान हार घाल्ल्याचो उल्लेख सांपडटा.

सिंघणाउपरांत मल्लुगी सत्तेचेर आयलो. बिज्जल कलचुरीचो तो समकालीन आशिल्लो. पर्णखेट नांवाचें नगर ताणें दुस्मानापसून घेतलें आनी उत्कलाधिपतीचें गजदल जिखून घेतलें असो उल्लेख आसा. मल्लुगीउपरांत ताचो पूत अमरगांगेय, मागीर ताचो पूत गोविंदराज, मागीर अमरमल्लुगी आनी कालीय बल्लाळ अशी तांची फकत वंशावळूच मेळटा. बल्लाळाच्या पुतांक कुशीन दवरून ताचो बापोलयो कर्णपूत भिल्लम (पांचवो) राजा जालो. इ. स. ११७८ त तो गादयेर बसलो. इ. स. ११८७त ताणें देवगिरीक स्वतंत्र राजा म्हणून राज्याभिशेक करून घेतलो.

जैत्रसिंह, साहणी, मायीदेव आनी लखव्वण हे ताचे सेनापती खूब पराक्रमी आशिल्ले. ताचें सैन्यूय खूब व्हड आशिल्लें. चालुक्याची राजधानी कल्याण नगरी ताणें घेतली. तेचप्रमाण किसुकाड, तर्डवाडी, बेळवोळ हेय प्रदेश जिखले. ताचेउपरांत भिल्लमान होयसळांच्या राज्याचेर घुरी घालून बल्लाळ (दुसरो) हाचेर हार घाली. चोळ राजा कुल्लोत्तुंग (तिसरो) हाचेरूय ताणें हार घाली. पूण इ. स. ११८९ वर्सा होयसळ बल्लाळ (दुसरो) हाणें भिल्लमाचेर जैत जोडलें. ताचेउपरांत ताणें विदर्भ, माळवा आनी गुजरात ह्याय प्रदेशांचेर घुरयो घाल्यो आनी यश मेळयलें. पूण नाडोलचो चाहमान राजा केल्हण हाणें खर विरोध केल्ल्यान भिल्लमाक परतुचें पडलें. इ. स. ११९१ - ९२ ह्या काळांत होयसळ बल्लाळ (दुसरो) हाणें दक्षिणेंतलो सगळो प्रदेश भिल्लमाच्या सेनापतीकडच्यान परत जिखून घेतलो.

इ. स. ११९३ त भिल्लम मेलो. इ. स. ११९१ पसुनूच ताचो पूत जैतुगी वा जैत्रपाल राज्यकारभार पळोवपाक लागिल्लो आसुंये. होयसळांनी घेतिल्लो प्रदेश तो जिखपाक शकलो ना. पूण काकतीयांच्या राज्याचेर ताणें घाल्ले घुरयेंत ताका येश फावो जालें. राजा महादेव झुजांत मेलो. पूण जैतुगीन, महादेवाचो पूत गणपतीक तें राज्य परत दिलें. त्याच अदमासाक जैतुगीन कलींग देशाचो राजा अनंगभीम (दुसरो) आनी चोळ राजा कुलोत्तुंग (तिसरो) हांचेकडेन झूज करून जैत मेळयलें. तशेंच ताणें परमार राजा सुभटवर्मा आनी चालुक्य राजा भीम (दुसरो) हांचेर जैत जोडून तांच्या राज्यांनी खूब लुटालूट केली.

इ. स. १२०० मेरेन जैत्रपाळान राज्य केलें आसुंये. ताचे उपरांत ताचो पूत सिंघण इ. स. १२०० च्या अदसामाक देवगिरीचो राजा जालो. इ. स. १२११ त ताणें होयसळांच्या राज्याचेर घुरी घाली. दोन वर्सांमदीं ताणें तुंगभद्रेमेरेनचो सगळो प्रदेश जिखलो. मागीर ताणें गोंयांतल्या कदंब, वेणुग्राम (बेळगांव) चे रट्ट, कोल्हापूरचे शिलाहार ह्या राजांचेर जैत जोडलें. उदेंत देगेवयलो अनंतपूर जिल्होय ताणें जिखलो. तशेंच खानदेश आनी विदर्भ ह्या प्रदेशांतल्या राजांकूय जिखले. गुजराताचेर ताणें जायत्यो घुरयो घाल्यो. सुरवेक ताका यश मेळ्ळें. पूण अखेरेक ताचेर हार पडली. ताचो सेनापती खोलेश्वर हाणें खंबायताक एक विजयस्तंभ उबारिल्लो. दुसरो सेनापती बीचण हाणें दक्षिण भारतांत पराक्रम करून इ. स. १२३८च्या अदमासाक कावेरीचे देगेचेर एक विजयस्तंभ उबारलो.

यादव वंशांत सिंघण सगळयांत व्हड राजा जावन गेलो. ताणें यादवांचें व्हड साम्राज्य स्थापलें. सिंघणान इ. स. १२४७ मेरेन राज्य केलें. सिंघणाउपरांत जैतुगीचो पूत कृष्ण सत्तेचेर आयलो. सिंघणान स्थापिल्ल्या साम्राज्याची ताणें बरे तरेन राखण केली. इ. स. १२६१त सिंघणा फाटल्यान महादेवाक (इ. स. १२६१ - १२७०) राज्य मेळ्ळें. ताणें होयसळ, शिलाहार, वाघेला, परमार आनी काकतीय ह्या राजांवांगडा झुजां चालूच दवरलीं. शिलाहार राजा सोमेश्वराचेर ताणें जैत जोडलें आनी उत्तर कोंकण प्रदेश आपल्या साम्राज्याक जोडलो. गुजरात, मालव आनी तेलंगणांतूय ताका जैत मेळ्ळें. महादेवाच्या मरणाउपरांत ताचो पूत आमण आनी कृष्ण राजाचो पूत रामचंद्र हांचेमदीं यादवी झूज जालें. अखेरेक रामचंद्रान आमणाक कपट करून मारलो आनी आपूण सिंहासनाचेर बसलो.

रामचंद्र (इ. स. १२७१ - १३११) हो रामदेवराव ह्याय नांवान प्रसिद्द आसा. होयसळांच्या राज्याचेर आनी गुजराताचेर ताणें घाल्ली घुरी अयशस्वी थारली. उत्तर कोंकण प्रांत मात ताचे सत्तेखाल उरलो.

इ. स. १२९४ वर्सा अलाउद्दीन खिलजीन देवगिरीचेर अचकीत घुरी घाली. त्या वेळार युवराज शंकरदेव सेवुणांची बरीच व्हडली सेना घेवन होयसळांवांगडा झूजपाक गेल्लो. देखून रामदेवराव दुस्मानांचें जैत जोडपाक शकलोना. अलाउद्दीनान राजधानीचेर हल्लो करून लुटमार सुरू केली. तेन्ना राजान ताचेवांगडा कबलात करून ताका बरीच खंडणी दिली. शंकरदेवाक ही गजाल कळ्ळेउपरांत तो सैन्य घेवन परत आयलो आनी परत वचपी मुसलमानी सैन्याचेर ताणें हल्लो केलो. पूण ताचेर हार पडली. ताका लागून रामचंद्राक चडूच कडक अटी पत्करून परत कबलात करची पडली. हातूंत अलाउद्दीनाक खूब संपत मेळ्ळी.

ह्या पराजयाक लागून सेवुणांचें राजकीय व्हडपण उणें जालें आनी रोखडेंच तांचें साम्राज्य विसकटलें. तशेंच काकतीय, होयसळ ह्या राजांनी आपापले प्रदेश परत जिखून घेतले.

गुजराताचो वाघेला राजा कर्ण हाची धूव देवलदेवी शंकरदेव यादवाची भावी व्हंकल आशिल्ली. ती देवगिरीकडेन येतना अलाउद्दीनाच्या सरदारांनी तिका धरली आनी दिल्लीक घेवन गेले. ताका लागून रामदेवरावान सुलतानाक खंडणी दिवपाची टाळाटाळ केली. तेन्ना सुलतानान मलिक काफूर हाका दक्षिणेंत धाडलो. ताणें सेवुणांचें राज्य घेतलें आनी रामचंद्रदेवाक धरून दिल्लीक व्हेलो. अलाउद्दीनान स म्हयने ताका आपलेकडेन दवरलो आनी रायरायन ही पदवी दिवन सोडून दिलो. उपरांत तो दिल्लीचो मांडलीक म्हणून राज्य करपाक लागलो. इ.स. १३०८ वर्सा मलिक कफूरान तेलंगणाचेर घुरी घाली, तेन्ना रामचंद्रदेवान ताका खूब आदार केलो. इ. स. १३११ त होयसळांआड ताणें मलिक कफूराक पालव दिलो.

ताचेउपरांत शंकरदेव देवगिरीचे गादयेर बसलो. ताणें दिल्लीक खंडणी धाडपाचें बंद केलें. तेन्ना अलाउद्दीनान इ. स. १३१३त मलिक काफूराक थंय धाडलो. ताणें देवगिरीचेर घुरी घाली आनी शंकरदेवाक मारलो. यादवांचें राज्य जिखून रोखडोच तो दिल्लीक गेलो. पूण रामदेवरावाचो जांवय हरपाळदेवान देवगिरीचें राज्य परत घेतलें. इ. स. १३१७त अलाउद्दीनाचो पूत मुबारकान ताचेर हार घाली आनी ताका मारून देवगिरी नगर घेतलें. राघवय हारलो आनी पळून गेलो. अखेरेक सेवुण वा यादव वंश सोंपलो.

यादवांच्या कारभारांत खंयच उणाव दिसनाशिल्लो. साम्राज्यांत विलीन करून घेतिल्ल्या राज्यांचो कारभार सरळपणान चालू दवरपाखातीर यादवांनी थंय आपले अधिकारी नेमले. यादवांचे प्रधान आनी सेनापती खूब हुशार आशिल्ले. रामदेवाच्या राज्यांत जायते दोंगरी आनी भुइकोट किल्ले आशिल्ले. कोंकणांतलीं सगळीं बंदरां आनी थंयचें नावीक दळ हांचेर ताची पुराय सत्ता आशिल्ली. सगळ्या प्रधान आनी सेनापतीच्या सम्राटाचेर पुराय विश्वास आशिल्लो.

यादवांच्या काळांत महाराष्ट्रीय संस्कृतीचो खूब विकास जालो. संस्कृत आनी मराठी वाङ्मयाक उदार राजाश्रय फावो जालो. विद्वान आनी कलावंतांकूय मानसन्मान मेळटालो. तशेंच, मराठी, कानडी, तेलुगू आनी गुजराती ह्या चार भाशांकूय राजाश्रय मेळटालो. पूण मराठी भाशा आनी संस्कृती ह्या काळांत चड विकसीत जाली. मुकुंदराज, चक्रधर आनी ज्ञानेश्वर हे मराठी साहित्याचे आद्यपुरूश यादवकाळांतूच जावन गेले. यादवांची राजभास मराठी आशिल्ली आनी महाराष्ट्र तांची कर्मभूंय आशिल्ली. महाराष्ट्रीय समाजाक धर्मीक मोडण लावपाखातीर हेमाद्रीन चतुर्वर्गचिंतामणी हो व्हडलो ग्रंथ रचलो. बोपदेवान व्याकरण, ज्योतिश, वैजकी, तत्त्वगिन्यान ह्या विशयांचेर ग्रंथरचणूक केली. महानुभाव पंथाचो उदय यादवांचेच राजवटींत जालो. त्या पंथाच्या आचार्यांनीय मराठींत जायत्या ग्रंथांची रचणूक केली. ज्ञानेश्वरान होवयो आनी हेर संतांनी भक्तीपर अभंग रचले. लोकसंगिताच्यो जायत्यो तरा महाराष्ट्रांत प्रचलीत आशिल्लयो.

यादवांच्या काळांतलें वास्तुशिल्प हेमाडपंती ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. महाराष्ट्रांतल्या जायत्या सुवातांचेर ह्या शिल्पपद्दतीचीं देवळां आसात.

यादव राजा वैदिक धर्माचे अभिमानी, न्यायी आनी नीतिमान आशिल्ले. पंचमहायज्ञांक आनी वेदाभ्यासाक उर्बा दिवपाचो यत्न तांणी केलो. वारकरी पंथाची वाड हेच राजवटीखाल जाली. पंढरपूरचो विठ्ठल हो तांचो मुखेल देव आशिल्लो. इ. स. च्या १०व्या शेंकड्यांत महाराष्ट्रांत खंडोबाची उपासना सुरू जाली. तशेंच, यादवांच्या कामांत शैव आनी वैश्णव ह्या दोनूय पंथांचो एकवट दाखोवपी तुळजाभवानी ही देवी पूजनीय थरली.

- कों. वि. सं. मं.

**यानाडी :** आंध्र प्रदेशांतली एक रानटी जमात. दक्षिण भारतांतल्या आदिवासी लोकांमदली ही सगळयांत व्हड जमात. ह्या नांवाची व्युत्पत्ती यानम = व्हडें + आदि = पोट भरपाचें साधन, अशी करतात. अनादी ह्या संस्कृत उतरावयल्यान हें नांव आयलां आसुंये अशी कल्पना आसा. पूण जांचें मूळ सांपडना अशे हे लोक आसात. अनादी उतराचो अपभ्रंश जावन यनादी - यानाडी अशें नांव तांकां पडलें आसुंये अशेंय मानतात.

हे लोक मोटवे, काळे, सडपातळ आनी घटमूट आसतात. तांचें नाक रूंद आनी चेपटें आनी कपल अशीर आसता. तांचे केंस काळेकिट्ट आनी मुदयाळे आसतात. तशेंच, तांच्या सगळया आंगाचेर केंस आसतात. ओंठ दाट पूण दांत नितळ आनी सोबीत आसतात. तांचेमदले चल्ला याना हे मातशे ऊंच आनी दिसपाक बरे आसतात. पूण तांचे दांत सामके बुरशे आसतात.

हे लोक केन्नाच घरां बांदून रावनात. तांका भोंवतें जिवीत मानवता. उदक लागीं आशिल्ल्या मळाचेर ते कोंडे आनी ताडपत्रेच्यो ल्हान खोंपी बांदून तातूंत रावतात. तांचीं दारां सामकीं मोटवीं आसतात. मातयेच्या आयदनांभायर तांचेकडेन आनीक कांयच आसना. हे अर्दनागडे आसतात. पोरने पद्दतीन शिकार आनी नुस्तें मारप, घर्शणावरवीं उजो पेटोवप, अर्दवट शिजिल्लें मास खावप अशे अवस्थेंत ते अजून आसात. शेती करप, अन्न शिजोवप ह्यो गजाली तांकां अजून खबर नात. चडशे लोक बुरशे आसून केंस कापिनात आनी दांतूय घाशिनात. हे झाडाच्या पानांच्यो तोपयो घालतात. दर एकल्याकडेन धोणू-बाण आसता.

खावप, पियेवप, वेवसाय, वस्ती हांचेवयल्यान तांचे ८९ पोटभेद आसात. चेंचू आनी मंची हे सगळयांत व्हड वर्ग आसात. रेड्डी, चल्ला, अडवी, कप्पल हीं तांच्या कांय पोटभेदांचीं नांवां. रेड्डी यानाडी हे सुदारिल्ले आनी स्थायीक जाल्ले आसून ते रांदपी वा गांव राखणदार म्हणून कामां करतात. ते चल्ला आनी अडवी यानाडींक उणे मानतात. मंची यानीडीय आपणाक उच्च मानतात. उत्तर अर्काट जिल्ह्यांतले चेंचू यानाडी कप्पल (बेबकां खावपी) यानाडींक अस्पृश्य मानतात. सोमारी यानाडी हे लोकांचें उश्टें अन्न खातात. ह्या पोटवर्गांनी चड करून आपसांत लग्नां जायनात.

हे लोक जनावरांचें मास भाजून खातात. म्हाँव, कंदमुळां, फुलां, फळां हांचोय अन्न म्हणून ते उपेग करतात. दुदाचे पदार्थ मात हे लोक खायनात. तांदळांपसून केल्लो सोरो तांकां खूब मानवता.

तेलुगू ही ह्या लोकांची भास. पूण तमीळ भाशेंतलीं खूबशीं उतरां घेवन तांणी कांय जोड उतरां तयार केल्यांत.

चडशे यानाडी लोक हिंदू. तातूंतले थोडे भुतांकूय भजतात. हिंदू यानाडींचे देवाकुडीक देवरइंडलू म्हण्टात. दर एके वसतींत एक देवघर आसता. तातूंत ग्रामदेवतेची स्थापणूक केल्ली आसता. पोलेरम्म वा अंकम्म ही तांची ग्रामदेवता. सुब्बरायडू, वेंकटेश्वरलू, पंचळ, नरसिंहुलू हे तांचे व्हडले देव. चेंचू देवडू हो घरांतलो देव. फातर, विटो, मातयेचे गुळे, उदकान भरिल्लीं आयदनां हीं देवतांचीं प्रतिकां मानून तांची पुजा करतात. केन्ना केन्नाय लांकडी मूर्ती वा चित्रांचीय पुजा करतात. हळद, कुकूम, फुलां, कापूर, धूप ते पुजेखातीर वापरतात. पितरपुजाय चालींत आसा.

हे लोक गाय आनी माकड हांकां पवित्र मानतात. बायलो सोरपाची पुजा करतात. भुरगीं जावंचीं म्हणून वा भूतबादा ना करपाखातीर त्यो कोडुलिंबाच्या आनी पिंपळाच्या झाडाक भोंवताडे घालतात. पिडेची धाम आयल्यार कोडुलिंबाच्या झाडामुखार रासवळ मागणें करतात आनी ग्रामदेवतेचीय पुजा करून तिका नाल्ल, कोंबे हांचो निवेद्य दाखयतात. हांचेमदीं कांय जाण भविश्य सांगतात, तांकां भगत अशें म्हण्टात.

चले आनी चलयो पिरायेंत येतकच आपुणूच जोडीदार वेंचून काडटात. मामाचो भाचयेचेर पयलो हक्क आसता. पूण मामाक कांय पयशे दिवन तिच्यान दुसऱ्याकडेन लग्न जावं येता. बापोल वा मावशे भावंडांकडेन लग्न जायनात आनी सगोत्र लग्नांय करिनात.

पयलेच खेपे जेन्ना यानाडी चलयेक मासिक पाळी येता तेन्ना तिका णव दीस एके वेगळे खोंपटेंत रावचें पडटा. निमण्या दिसा तिका णव खेपे न्हाणयतात आनी तिणें वापरिल्ल्यो वस्तू आनी कपडे लासून उडयतात. मागीर सोयऱ्यांक जेवण दितात.

यानाडी लोकांचो लग्नसुवाळो तीन दीस चलता. न्हवऱ्यान व्हंकलेक ताळी बांदप हो मुखेल विधी. ते उपरांत दोगांय एकामेकांचेर अक्षता उडयतात. सुवाळयांत कुकमाक खूब म्हत्व आसा आनी दादलेय कपलाक कुकूम लायतात. न्हवऱ्या-व्हंकलेचे कपडे केसरी रंगान रंगयतात. तशेंच ताळीय केसरी रंगान वा हळदीन हळदुवी केल्ली आसता. आतां तांचेभितर हिंदू पद्दतीन लग्न करूंक लागल्यात. चलयेक उबारून व्हरुनय लग्न जावपाची पद्दत आसा. तशेंच तांचेभितर लैंगिक बंधनांय सदळ आसात. सगळयाच यानाडी लोकांक लग्न म्हत्वाचें दिसना. अडवी यानाडी चड करून लग्न जायनात. पूण लग्नाभायर जाल्ल्या भुरग्यांक उणीं लेखनात.

हांचेभितर विधवा लग्न जातात. विधवा बायलेक लग्न जालेउपरांत कांय दीस शिंदूर, काकणां वापरपाक मेळना. विधवेपरस घटस्फोट घेतिल्ले बायलेक चड मान आसता. बायलांक पांच-सात खेपे घटस्फोट घेवन परत लग्न जावपाक मेळटा.

हे लोक मडीं पुरतात. मडें खोंपीमुखार पानांचेर दवरून न्हाण घालतात आनी ताका नवे कपडे घालतात. सगळेजाण मड्याचेर तांदूळ घालतात. उपरांत मडें मसंडेत व्हरून एका जाग्याचेर फुली काडून ताचेर मडें दवरतात. मड्यालागीं विड्याचीं पानां, सुपारी आनी तांब्याचें नाणें दवरतात. फोंडांत लुगट पातळावन ताचेर तें मडें

दवरून पयलीं व्हडलो चलो आनी उपरांत सगळेजाण तीन मुठी माती घालतात. मागीर फोंड पुरयतात. मड्यावांगडा गेल्ले सगळे लोक परत येवन झाडाचे खांदयेन पयलीं गोबराचें आनी उपरांत हळदीचें उदक आपणाचेर फाफडून घेतात आनी शुद्ध जातात. मेल्ल्याचे खोंपटेंत एक दिवो पेटत दवरतात.

मरणाउपरांत तिसऱ्या दिसा चिन्नदिनमू नांवांचो विधी आसता. ते खातीर शीत, कडी आनी गोड पदार्थ करून ताचे स गुळे तयार करतात. उपरांत मडें पुरलां थंय वचून उदक रकयतात आनी मड्याचे तकलेर फातर दवरतात. मेल्ल्याची बायल वा घोव आनी हेर लोक ताचेर दूद रकयतात. मागीर मेल्ल्याचो चलो फोंडाच्या चारूय कोनशांचेर एक एक गुळो, विड्याचें पान आनी पयसो दवरता. उरिल्ल्या गुळयांचेर दूद ओतून ते पानांत गुठलायतात आनी मड्याच्या पोटाचेर दवरतात. ताचे उपरांत मेल्ल्याचे तकलेवटेन तीन फातरांचेर एक उदकान भरिल्लें गळकें आयदन दवरतात. तातुंतल्यान मड्याचे तकलेर उदक गळत रावता. उपरांत परत सगळेजाण शुद्ध जातात. मरणाउपरांत सव्या दिसाय पेडुदिनम नांवांचो विधी आसता. त्या दिसा मेल्ल्याची एक प्रतिमा करून तिच्या हातापांयांकडेन शिताचे चार गुळे दवरतात. उपरांत ती प्रतिमा तळयांत सोडटात आनी शुद्ध जातात. ह्या प्रसंगा वेळार दोन दीस नाच-पदां चालू आसतात. सगळया लोकांक जेवणूय दितात.

शिकार, नुस्तेंमारी, रानांतलें म्हॉव, जळोव, वखदां, वनस्पती एकठांय करून विकप, सोरोप धरप हे तांचे मुखेल उद्देग. पूण आतां शारांकडेन संबंद आयिल्ल्यान कांय जाण राखणदार, पुलीस, शेतमजूर, गंवडे, सान्न मारपी म्हणून काम करपाक लागल्यात. कांय जाण दुकरांय पोसतात जाल्यार थोडे वैदूपणूय करतात. तांकां वनस्पतींचो वखदी उपेग खबर आसा.

ह्या लोकांक नाचाची खूब आवड. सणा - परबां वेळार नाच जाताच. पूण भीक मागतनाय हे लोक नाच करतात. नाचतना ते अर्थ नाशिल्लीं पदां म्हण्टात आनी अश्लील हावभाव करतात. रानांत रावपी यानाडी दादले-बायलो रातचे नाच करतात आनी तेन्ना नागडेच आसतात. नाच चालू आसतना एकेवटेन माडाचीं चुडटां जळत दवरतात.

हालींच हे लोक भागवथुलू नांवांचो सुदारीत नाच शिकून माचयेर ताच्या सादरीकरणाच्यो कार्यावळी करपाक लागल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**यामिनी कृष्णमूर्ति :** (जल्म : २० डिसेंबर १९४०, चेन्नई).

नामनेची भारतीय नर्तकी. भरतनाट्यम्, कुचिपूडी आनी ओडिसी ह्या नृत्यप्रकारांनी यामिनीचें चड प्रभुत्व दिश्टी पडटा.

१९५५ वर्सा तिणें अड्यार हांगाच्या 'कलाक्षेत्र' हे संस्थेची भरतनाट्यम् नृत्यशैलींतली पदविका घेतली. उपरांत नाचाच्या फुडल्या शिक्षणाखातीर तिका सरकारी शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. भरतनाट्यमाचें शिक्षण तिणें एल्लप्पा पिळ्ळै हाचेकडल्यान घेतलें. तशेंच वेदांतम् लक्ष्मीनारायण शास्त्री आनी वेणुगोपाल कृष्ण शर्मा हांच्या मार्गदर्शनाखाल कुचिपूडी नाचाचें आनी पंकज चरण दास हाचेकडेन ओडिसी नाचाचें शिक्षण घेतलें.



१९५९ वर्सा तिणें दिल्लीक 'कौस्तुभ' हे नृत्यशाळेची स्थापणूक केली. 'संगीत भारती' हे संस्थेंत तिणें भरतनाट्यम्चें अध्यापन केलें. तशेंच खूब नृत्यप्रयोगूय सादर केले.

'क्षीरसागर मंथनम्' ह्या कुचिपूडी नृत्य नाट्यांत तिणें विश्वमोहिनीची मुखेल भुमिका केली आनी ते भुमिकेवरवीं कुचिपूडी नृत्यनाट्यांतली पयली नर्तकी अशी नामना मेळयली. तिचेपयलीं ह्या परंपरीक नाचांत फकत दादलेच वांटो घेताले.

तिच्या नाचांतल्यान भावनावेग, गती, लय, चैतन्य आनी मोहकताय हांचो मनोज्ञ प्रत्यय येता.

१९६५ वर्साच्या राश्ट्रकुल कला समारोहांत तिणें नाच सादर केल्लो. १९६७त तिका 'पद्मश्री' हो किताब मेळ्ळो. भारतांतल्या मुखेल शारांनी तशेंच मियानमार, नेपाळ आनी ऑस्ट्रेलियेक तिच्या नाचाच्यो कार्यावळी जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**यामुनाचार्य :** (इ.स. चो १०वो शेंकडो).

वैश्णव संप्रदायाचो एक मुखेल आचार्य. ईश्वरमुनीचो तो पूत. तो सुमार धा वर्सांचो आशिल्लो तेन्ना ताचो बापूय भायर पडलो. यामुनाचार्याक ताचे आवयन आनी आजयेन ल्हानाचो व्हड केलो.

ल्हानपणापसुनच यामुनाचार्य खूब हुशार आशिल्लो. भाष्याचार्य ह्या गुरूकडेन ताणें पुराय शास्त्राचो अभ्यास केलो. थोड्याच तेंपान तो त्या शास्त्रांत प्रवीण जालो. ताचे जिणेंत एक अजापाची गजाल घडली आनी गुरूच्या घरा आसतनाच ताका मदुरेच्या पांड्य राजाचें अर्दें राज्य फावो जालें. ती गजाल अशी -

पांड्य राजाच्या दरबारांत विद्वज्जनकोलाहल नांवाचो एक दिग्विजयी पंडीत आशिल्लो. तो खुबूच गर्विश्ठ आशिल्लो. तो हेर पंडितांक आपलेकडेन शास्त्रार्थ करपाक आपयतालो आनी ते हारले म्हणटकूच तांचे कडल्यान दंड म्हणून वर्सुकी कर घेतालो. राजाकूय हें मान्य आशिल्लें. यामुनाचार्याचो गुरू भाष्याचार्यूय ताका कर दितालो.

एक दीस कोलाहलाचो शिश्य कर मागपाखातीर भाष्याचार्याचे पाठशाळेंत गेलो. तेन्ना भाष्याचार्य थंय नाशिल्लो. कोलाहलाच्या शिश्यान

थंय आशिल्ल्या यामुनाचार्याक गाळी घाल्यो आनी कर घेवन रोखडोच कोलाहलाकडेन येवपाक सांगलें. यामुनाचार्याक ताची तिडक आयली. ताणें म्हळें 'म्हजो गुरू कर भरचो ना. ताचेबदला तुज्या गुरूकडेन हांव शास्त्रार्थ करपाक तयार आसां'. हें आयकून शिश्याक तिडक आयली आनी ताणें परत वचून कोलाहलाक घडिल्ली खबर सांगली.

कोलाहलाकूय हें सगळें आयतकच बारा-पंदरा वर्सांच्या यामुनाचार्याची तिडक आयली. ताणें राजाक ताका आपोवणें धाडपाक सांगलें.

दुतांकडल्यान जेन्ना राजाक यामुनाचार्य वादविवादाक तयार आसा म्हणपाचें कळ्ळें, तेन्ना राजान ताका दरबारांत येवपाखातीर पालखी धाडली.

यामुनाचार्य दरबारांत येतकच ताका पळोवन राजाक अजाप जालें. कोलाहल पंडिताविशीं राजाक जितलो सन्मान आशिल्लो, तितलीच ताच्या गर्विश्ठपणाची राणयेक तिडक येताली. यामुनाचार्याच्या मुखामळार दिसपी ताची हुशारकाय पळोवन तो कोलाहलाक हारयतलोच म्हणपाची तिची खात्री जाली. तिणें राजाक तशें सांगलेंय. पूण राजाकूय कोलाहलाविशीं तो जिखतलोच म्हणून खात्री आशिल्ली. अखेरेक दोगांयनी पैज लायली. राणयेन सांगलें,जर कोलाहल पंडित जिखत जाल्ल्यार आपूण ताचे दासीची दासी जावन पट्टराणीपद सोडून दितलीं. हाचेर राजान म्हळें, जर तुज्या ह्या बालपंडिताचो विजय जालो जाल्यार आपूण ताका अर्दें राज्य दितलों. वादविवादांत कोलाहल पंडीत हारलो. थरिल्लेप्रमाण राजान यामुनाचार्याक अर्दें राज्य दिलें. यामुनाचार्य राजा म्हणून शिंवासनाचेर बसलो. ही घटना इ. स. ९७५ च्या अदमासाक घडली.

यामुनाचार्यान संस्कृत भाशेंत चार ग्रंथांची रचणूक केली. तांचीं नांवां अशीं -

१) सिद्धित्रय : हातूंत आत्मसिद्धी, ईश्वरसिद्धी आनी संवित्सिद्धी अशा तीन सिद्धींचें विवेचन केल्लें आसा. यामुनाचार्याच्या सगळ्या ग्रंथांतलो हो एक सगळ्यांत व्हड ग्रंथ.

२) आगमप्रामाण्य : हातूंत वैश्णवांक आदारभूत अशें पांचरात्र सिद्धांताचें पांडित्यपूर्ण विवेचन आसा.

३) गीतार्थसंग्रह : हातूंत फकत तीस श्लोक आसात. तशेंच, विशिश्टाद्वैत - सिद्धान्ताक अनुसरून निरुपण केल्लें आसा.

४) स्तोत्ररत्न : हाका आळवंदारस्त्रोत्र अशेंय म्हण्टात. स्तोत्रवाङ्मयांतलें हें एक अनर्घ्य रत्न आसून, तें खूब लोकप्रिय आसा. हातूंत ६५ श्लोक आसून प्रपत्ती वा आत्मसमर्पणभक्तीचें वर्णन आसा.

दक्षिणेंतल्या वैश्णवांचो यामुनाचार्य गुरू आशिल्लो. तशेंच, ताणें तमीळनाडुंतल्या आळवार संतकवींच्या पद्यांचें अध्ययन आनी अध्यापनूय केलें. विशिश्टाद्वैत मताक दर्शनाचें स्वरूप दिवपी रामानुजाचार्यांचो यामुनाचार्य हो आजे गुरू आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**यारी** : जड वजनाचें सामान एका जाग्यावयल्यान उखलून दुसऱ्या जाग्याचेर दवरपी यंत्राक यारी म्हण्टात. यारीच्या आदारान वस्तू पयलीं उखलून मागीर ती जमनीक जाय तशी समांतर हालोवन योग्य जाग्याचेर दवरतात.

दोन टन वजन उखलपी आनी हातान चलोवपाक येवपी ल्हान यारीपसून ते २०० टन वजन उखलपी आनी यंत्रीक नियंत्रण आसपी अशो जायत्यो यारी वापरांत आसात. ह्या सगळ्या यारींचे रचणुकेंत बरेंचशें सारकेपण दिसता.

यारीची सादारण रचना अशी आसता - वजन उखलपी दोर जायत्या बारीक तिख्याच्या सरयांपसून केल्लो आसता. ह्या दोराच्या तोंकाक वजन हुमकळावपाचो आंकडो आसता. वजन उखलपाच्या वस्तू प्रमाण आंकड्याच्या जाग्यार चिमटो, झोळी, चुंबक वा बालदी वापरतात. दोर एका दंडगोलाचेर गुठलायल्लो आसून ताच्या आसाचेर गती उणी करपाखातीर ल्हान-व्हड दंतचक्रां आसतात. हाका लागून दंडगोल जाय तितलो सवकास घुंवडावपाक मेळटा आनी दोर दंडगोलावयल्यान सुट्टा वा गुठलायता आनी वजनी वस्त वयर सकयल वता. दंडगोल घुंवडावपाखातीर लागपी शक्त मनीस, विद्युत् चलित्र (मोटर) वा डिझेल इंजीन हांचेपसून मेळोवं येता. वजनाक लागून दंडगोल आपोआप घुंवचो न्हय म्हणून रॅचेट (एकेच दिकेन घुंवपी दांतेरी चक्र) गतिरोधक बसयल्ले आसतात.



रबरीच्या टायरांचेर बसयल्ली यारी : १. सिलिंडर, २. जिबेचो कोन बदलपी दट्टे, ३. जीब.

यारींचो उपेग वेगवेगळ्या कामांखातीर जाता. ह्या कामांखातीर वापरांत येवपी यारी अशो -

**स्तंभ यारी** : हे यारीचो उपेग रेल्वे धक्यांवयलो म्हाल वाघिणींत चडोवपाखातीर जाता. अशे यारीच्या वजनाची क्षमताय २ ते २० टन आनी उण्यांत उणी त्रिज्या ४ ते ६मी. आसता.

**वण्टीवयली जीब यारी** : ह्या प्रकारची यारी यंत्रशाळा, म्हालाचे गुदांव अशा जाग्यांनी वापरतात.

**सेतू यारी** : व्हड यंत्रशाळेंतल्या आनी तिका जोडून आशिल्ल्या सामान दवरपाचे मेकळे सुवातेंतल्या जड भागांची हालचाल करपाखातीर चडकरून हे पद्दतीची यारी वापरतात.

**गॅंट्री यारी** : मेकळे सुवातेंतलें सामान हालोवपाखातीर ही

यारी वापरतात. तशेंच गँट्रीभायर उबीं आशिल्ल्या वाहनांचेरूय सामान दवरपाखातीर तिचो उपेग जाता.

**बंदरांतल्यो यारी :** तारवावयलो म्हाल चडोवपाक आनी देवोंवपाक अशा यारींचो उपेग करतात.

**बांदकामाची मनोरा यारी :** धा - वीस मजली इमारतींचें बांदकाम करतना काँक्रीट आनी हेर म्हाल सतत चडोवंच्या कामाखातीर मनोरा यारीचो बरो उपेग जाता.

**घोळटी यारी :** व्हड बांदकामां सुरू आसतना जड रूळ, यंत्रसामुग्रेचे भाग आदी पक्क्या वा कच्च्या रस्त्यांवयल्यान सतत हालोवंचे पडटात. अशा कामांखातीर घोळटे यारीचो उपेग करतात.

यारींतलो दोर आनी वजन हुमकळावपाच्या आंकड्याची सतत झीज जायत आसता. अशे तरेन यारीच्या म्हत्वाच्या भागांचेर येवपी ताण वेगवेगळ्या प्रकारच्या संवेदक प्रयुक्तींनी मेजून ताचेवयले मर्यादिमेरेन पावचे पयलीं नियंत्रकाक सुचवणूक दिवपाची वेवस्था आतां यारींत करतात. तशेंच फावो त्या वेळार यारींची अधिकाऱ्याकडल्यान तपासणी करून घेवप कायद्यान सक्तीचें.

— कों. वि. सं. मं.

## यारीसाहब : (इ. स. चो १७वो शेंकडो).

उत्तर भारतांतलो एक संत. मुहंमद हें ताचें मूळ नांव आसुंये अशें म्हण्टात. तो बावरी पंथाचो अनुयायी आनी बीरू साहेबाचो शिश्य आशिल्लो. खानदानी घराण्यांत ताचो जल्म जालो, अशें अभ्यासकांचें मत आसा. हाची गादी दिल्लीक आसून थंयच ताची समाधी आसा. केशवदास, सूफीशाह, शेखनशाह, हसन मुहंमद आनी बुलासाहेब हे हाचे पांच मुखेल शिश्य. तातूंतल्या पयल्या चार शिश्यांचो संबंद दिल्लीचे गादयेकडेन आसून बुलासाहेबाचो संबंद राजीपूर जिल्ह्याकडेन आसा.

यारीचो रत्नावली नांवाचो एक काव्यसंग्रह प्रसिद्द आसा. हाणें योगमार्गाकूच विहंगम मत अशें म्हळां. हाची कविता अनलंकृत आसुनूय भावनात्मक आसा. हाचे भाशेचेर फारसी अरबीचो प्रभाव आसा. हाणें कवित्त, साखी, सवैया सारकिल्या छंदांनी रचणुको केल्ल्यो आसात.



- कों. वि. सं. मं.

## यास्क : (स. न. पयलीं ७वो वा ८वो शेंकडो).

एक भाशाशास्त्रज्ञ आचार्य आनी निरुक्त ह्या ग्रंथाचो कर्तो. हाचें चरित्र उपलब्ध ना.

यास्काक तौलनीक भाशाशास्त्राचो आद्य पंडीत मानतात. ताचे पयलीं जावन गेल्ले शाकटायन, गर्ग्य आनी औदुंबरायण हे वैयाकरण आनी ताचे उपरांतचो पाणिनी हांचेमदलो यास्क हो दुवो, अशें एक मत आसा.

वेद हे अपौरूशेय आसात म्हणपाची आनी वेदांचो अर्थ समजून घेनासतना ते फकत पाठ करप म्हणजे वजें घेतिल्लेभाशेन जाता अशें ताचें म्हणणें. कारण अर्थज्ञानाबगर उतरां हीं वांझ गायेभाशेन आसून तीं गिन्यान दिवपाक शकनात आनी जांकां वेदांचें अर्थज्ञान जालें तांचें ह्या लोकांत आनी परलोकांतूय कल्याण जातलें, अशें तो म्हण्टा. अशा वेदार्थज्ञानाक मार्गदर्शक म्हणून निरुक्त ही निघंटाचेर ताणें टिका बरयली.

तो भारद्वाज हाचो शिश्य आशिल्लो आनी जातूकर्ण्य हो ताचो शिश्य आशिल्लो. महाभारतांत हाचो उल्लेख आसा. तशेंच नाश पाविल्लें निरुक्त विष्णूच्या प्रसादान ताका मेळ्ळें अशेंय म्हळां. हो पास्कर देशांतलो आसुंये असो अदमास आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## याह्याखान, आगामुहम्मद : (जल्म : ४ फेब्रुवारी १९१७, पेशावर; मरण : १० ऑगस्ट १९८०, रावळपिंडी).

पाकिस्तानाचो राश्ट्राध्यक्ष (१९६९-७१) आनी एक कुशळ सेनानी. नादिरशाहाच्या वंशजांतले लश्करी परंपरा आशिल्ल्या कुटुंबांत ताचो जल्म जालो.

पंजाब विद्यापिठांत उंचेलें शिक्षण घेवन डेहराडूनाचे लश्करी अकादमींतल्यान ताणें पदवी घेतली. उपरांत ब्रिटीश सैन्यांत सॅकंड लॅफ्टनंट ह्या पदाचेर ताची नेमणूक जाली.

दुसऱ्या म्हाझुजांत (१९३९-४५) ताणें इटली आनी मध्यउदेंत ब्रिटीश सैन्यांत बरी कामगिरी केली. भारत-पाकिस्तानाचे फाळणेउपरांत ताणें पाकिस्तानाच्या लश्करांत काम केलें. त्याच अदमासाक १९४७ वर्सा ताणें पाकिस्तानांत लश्करी सेवेखातीर स्टाफ कॉलेजीची स्थापणूक केली. भारताबरोबरच्या काश्मीर झुजांत ताणें बरें कर्तूब दाखयल्ल्यान लश्करांत ब्रिगेडियर ह्या उंचेल्या पदाचेर ताची नेमणूक जाली. हें पद मेळिल्लो स्वतंत्र पाकिस्तानाचो तो पयलो सैनीक. उपरांत तो जनरल जावन १९६६ वर्सा ताची सेनामुखेली म्हणून नेमणूक जाली.

आयूबखान हो पाकिस्तानाचो फिल्ड मार्शल आसतना ताणें पाकिस्तानांतलो राजकीय उठाव मोडपाचें म्हत्वाचें काम याह्याखानाकडेन सोंपयलें. तेन्ना परतून राजकीय परिस्थिती इबाडिल्ल्यान लश्करी कायदो लायलो आनी याह्याखानाची मुखेल प्रशासक म्हणून नेमणूक जाली. मार्च १९६९ वर्सा आयूबखानान राश्ट्राध्यक्षपदाचो राजिनामो दिलो आनी याह्याखानाची राश्ट्राध्यक्षपदाचेर नेमणूक जाली.

पाकिस्तानांत अवामी लीग, भुट्टोची पीपल्स पार्टी हांचेमदीं सत्तेखातीर सर्त चालू आशिल्ली. शेख मुजीबूर रहमान हाणें उदेंत पाकिस्तानाक स्वायत्त अधिकार आसचे असो हट्ट धरलो आनी कायदेभंगाची चळवळ सुरू केली. याह्याखानान सैन्याच्या आदारान ही चळवळ मोडून काडपाचो यत्न केलो. मुजीबूराचे मुक्तिवाहिनीन प्रतिकार लडो चड खर केलो तेन्ना सैन्यान लोकांचेर खूब अत्याचार केले. भारतान ह्या लड्याक सक्रीय तेंको दिलो. पाकिस्तानाच्या लश्कराचेर जैत जोडून डिसेंबर १९७१ वर्सा बांगलादेशाची निर्मिती जाली.

ह्या यादवी झुजाउपरांत अस्तंत पाकिस्तानांत तिडकीचें वारें पातळळें. हाका लागून याह्याखानाक राजिनामो दिवंचो पडलो (२० डिसेंबर १९७१). ताचे सुवातेर झुल्फिकार अली भुट्टोन सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेवन याह्याखानाक बंदखणींत उडयलो. १९७४ वर्सा ताची सुटका जाली. बंदखणींतूच ताका अर्दांगवायुचो झटको आयिल्लो. तेन्नासावन तो राजकारणापसून पयस रावलो.

- कों. वि. सं. मं.

**याज्ञवल्क्यस्मृति :** संस्कृतांतलो एक म्हत्वाचो धर्मशास्त्राविशींचो स्मृतिग्रंथ. याज्ञवल्क्यस्मृतीच्या प्रायश्चित्ताध्यायांतल्या 'ज्ञेयं चारण्यकमहं यदादित्यादवापतवान्' ह्या श्लोकान आदित्यासावन बृहदारण्यक मेळोवन घेवपी याज्ञवल्क्य होच याज्ञवल्क्यस्मृतिचो कर्तो आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. पूण शुक्लयजुर्वेदाचो कर्तो याज्ञवल्क्य आनी स्मृतिकार याज्ञवल्क्य हे दोगूय वेगळे आशिल्ल्याचें सांगलां. तरीय याज्ञवल्क्यस्मृतिचो संबंद शुक्ल यजुर्वेद आनी त्या वेदाचें हेर वाङ्मय हांचेकडेन हेर वेदांपरस चड लागींचो आसा.

याज्ञवल्क्यस्मृति आचार, वेव्हार आनी प्रायश्चित अशा तीन प्रकारांनी विभागिल्ली आसा.

**आचाराध्याय :** हातूंत धर्मलक्षण, ब्रह्मचारीधर्म, लग्न, वर्णजातिविवेक, गृहस्थाधर्म, स्नातकव्रतां, भक्ष्याभक्ष्यविचार, द्रव्यशुद्धि, दान, श्राद्ध, गणपतिकल्प, ग्रहशान्ति, राजधर्म ह्या विशयांचो आस्पाव जाता.

**व्यवहाराध्याय :** हातूंत वेव्हार म्हळयार न्यायालयप्रविश्ट वादाचें लक्षण, वेव्हारसभेचे वांगडी आनी न्यायाधीश, अभियोग, प्रत्यभियोग, न्यायालयांतल्यो कारभारपद्दती, गवायांचीं लक्षणां, पुराव्याचीं साधनां, भूंयगत द्रव्य, रिणां वांटप, वारसोहक्क, आदी जायत्या न्यायालयीन विशयांचो आस्पाव जाता.

**प्रायश्चित्ताध्याय :** हातूंत निमाणे संस्कार, सुयेर-सुतक, आपद्धर्म, वानप्रस्थधर्म, यतिधर्म, कर्मविपाक, वेगवेगळया पातकांखातीर प्रायश्चित्तां ह्या विशयांचो आस्पाव आसा.

मनुस्मृती आनी याज्ञवल्क्यस्मृतींत जरी एकसारके विशय जायते आसले तरी याज्ञवल्क्यस्मृतींत ते बेसबरे तरेन मांडिल्ले आसात. मनुस्मृतिचो विस्तार २,६८४ श्लोकांचो आसा. याज्ञवल्क्यस्मृतींत मनुस्मृतिंच्या विशयांचो संक्षेप १,००३ श्लोकांनी केल्लो आसा.

याज्ञवल्क्यस्मृतींत आशिल्लीं गणपतिकल्प, ग्रहशांति; तुला, अग्नि, उदक, विख आनी कोश हीं पांच दिव्यां; तशेंच गर्भांतल्यो अर्भकाच्यो अवस्था, शरिराचे भेद आनी अवस्था हे विशय सविस्तर वर्णन केल्ले आसात. मनुस्मृतींत ते तितले विस्तृत प्रमाणांत नात. तरी संवसाराचे उत्पत्तीचें विवेचन याज्ञवल्क्यस्मृतींत ना जें मनुस्मृतींत बरे तरेन दिलां.

हे स्मृतींत याज्ञवल्क्यावांगडाच मनु, अत्रि, विष्णु हारीत, उशनस्, अंगिरस, यम, आपस्तम्ब, कात्यायन, व्यास, गौतम, शातातप, वसिष्ठ आदी वीस ऋषींचो धर्मशास्त्राचो प्रवर्तक म्हणून उल्लेख केला. पुर्विल्लीं गृह्यसुत्रां, धर्मसुत्रां, कौटिल्याचें अर्थशास्त्र आनी मनुस्मृती हांचो नियाळ हे स्मृतींत घेतिल्लो आसा.

वर्णधर्म, आश्रमधर्म, स्त्रीधर्म, राजधर्म, चातुर्वर्ण्यवेवस्थेंतले त्रैवर्णिकांची चड करून ब्राह्मणवर्णाची खाशेली सुवात, अधिकार आनी कर्तव्यां, अनुलोम - प्रतिलोम लग्नावरवीं तयार जाल्ल्यो अम्बष्ठ, निषाद, पाराशर, सूत, वैदेहक, चण्डाल, क्षत्ता, अयोगव, रथकार ह्यो जाती हांचें विवेचन तेन्नाच्या समाजाचें दर्शन घडयता. मानवी मनाचो धर्म, तांच्यो आशा, आकांक्षा ह्यो गजाली चड करून वेव्हार आनी प्रायश्चित ह्या अध्यायांतल्यान कळटात.

ह्या स्मृतीग्रंथाचेर विश्वरूप, विज्ञानेश्वर, अपरार्क आनी शूलपाणी हांच्यो टिका प्रसिद्द आसात. हातूंत विज्ञानेश्वराची मिताक्षरा ही टिका सर्वश्रेश्ठ आनी प्रमाणभूत मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**यॉज :** ट्रिपोनेमा पर्टेन्यू नांवाच्या सूक्ष्मजंतूक लागून जावपी अरतिज (संभागोकडेन संबंद नाशिल्लो) पूण संसर्गीक आशिल्ल्या रोगाक 'यॉज' म्हण्टात. हे पिडेंत कात आनी हाडाच्या भागांचेर कणार्बुदां (कणमय पेशी समुहांनी तयार जाल्ल्यो गांठी) तयार जातात आनी तीं फळांभाशेन दिसतात. देखून हे पिडेक 'यॉज' हें नांव फावो जालां. हे पिडेक 'फ्राम्बेझिया' अशेंय म्हण्टात.

१९०५त आल्डो कास्टेलानी ह्या इटालियन शास्त्रज्ञान ट्रिपोनेमा पर्टेन्यू ह्या सर्पिल गटांतल्या सूक्ष्मजंतूंचो सोद लायलो. चड करून ५ ते १५ पिरायेच्या भुरग्यांमदीं सांपडपी हो रोग पिडेस्ताच्या प्रत्यक्ष संपर्कांतल्यान पातळटा. रोग्याच्या आंगावयल्या जखमांनी जायते सूक्ष्मजंतू आसतात आनी ते संपर्कांत व्यक्तीचे कातींतल्यान प्रवेश करतात. दाट वसती, भलायके कडेन आडनदर आनी बुरशेपणाक

लागून हो रोग पातळटा. प्रत्यक्ष संपर्काभायर संक्रामक पदार्थापसून (देखीक - उदक पियेवपाचीं वा जेवणाचीं आयदनां) तोंडांतले श्लेष्मकलेंत (पातळ बुळबुळीत अस्तर) रोग जाता. कांय किटकूय रोग पातळायतात. ३ ते ५ सप्तकांच्या काळाउपरांत (सूक्ष्मजंतूंचो शरिरांत प्रवेश जायतपसून रोगलक्षणां दिसपाक लागमेरेनच्या काळाउपरांत) हात आनी पांयांचेर लक्षणां दिसपाक लागतात. हे पिडेच्यो तीन अवस्था आसात -

**पयली अवस्था :** कातीचेर तांबशो पुळयो येतात. तांकां 'माता यॉज' म्हण्टात. पुळयेचें रोखडेंच गांठींत रुपांतर जाता. उपरांत सूक्ष्ममजंतूंच्या संसर्गाक लागून गांठी फुट्टात आनी जखम तयार जाता. तातुंतल्यान स्त्राव व्हांवपाक लागता. संबंदीत लसिका ग्रंथी वाडटात आनी त्यो खूब दुखतात. हेर लक्षणां चड करून सांपडनात.

**दुसरी अवस्था :** २ ते ४ म्हयन्यांउपरांत आनी केन्ना केन्नाय फाटोफाट खांको, सांदे आनी बाह्येंद्रियां ह्या सुवातांचेर वलसार कातीचेर अंकुरार्बुदां जातात. तळपांय आनी तळहाताचेरूय अशीं अर्बुदां जातात. हाका लागून चलप आनी हातांचो वापर करतकच खूब दुखता. पांयांवयल्या अर्बुदांक लागून चलप कुल्लेभाशेन जाता म्हणून ताका 'खेकडा यॉज' अशेंय म्हण्टात. हीं अर्बुदां स ते आठ म्हयने उरतात आनी आपशींच बरीं जातात. हे अवस्थेंत मनगटांतलीं हाडां सोडून बोटांच्या हाडांचेर वायट परिणाम जाता.

**तिसरी अवस्था :** उपचार करूंक नाशिल्ल्या 10% पिडेस्तांक कांय वर्सांच्या काळाउपरांत परत गांठी तयार जातात. पूण जंतू उणे आशिल्ल्यान संक्रमकताय उणी आसता. दुय्यम सूक्ष्मजंतू संसर्गांतल्यान जखमो तयार जातात. हे अवस्थेंत हाडांचेर वायट परिणाम जातात. मुखामळूय एकएकदां विद्रूप जाता. हाका 'गॅन्गोसा' म्हण्टात.

संपर्क इतिहास आनी रोग लक्षणां ह्या रोगाच्या निदानाक पयले वा दुसरे अवस्थेंतल्या रोग स्थानांतल्या द्रवांतले तशेंच वाडिल्ल्या लसिका ग्रंथीच्या द्रवांतले सूक्ष्मजंतू कृष्णक्षेत्र दिप्तिपरिक्षेंत सूक्ष्मदर्शकाखाला दिसतात. उपदंशाखातीर वापरतली रगतरस परिक्षाय उपेगी आसता. कर्कवृत्त आनी मकरवृत्त हांच्या अदमासाक उश्ण कटिबंधीय भागांत सांपडपी ही विकृती दक्षिण अमेरिका, वॅस्ट इंडीस आनी उत्तर आफ्रिका ह्या प्रदेशांनी आनी भारत, श्रीलंका, इंडोनेशिया, थायलंड, मियानमार, मलेशिया आनी फिलिपिन्स ह्या देशांच्या कांय भागांतल्यान प्रदेशनिश्ठ स्वरुपांत दिश्टी पडटा.

जंय ही पिडा मेळटा, थंय व्हड प्रमाणाचेर पिडेस्त आनी सगळ्या संपर्कीत व्यक्तींचेर पेनिसिलीन उपचार गुणकारी थरतात. संक्रमणशील आनी असंक्रामक अशा सगळ्या तरांच्या पिडेस्तांक २.४ मेगॅ-एकक बँझाथिन पेनिसिलीन - जी एकेच मात्रेंत दितात. पेनिसिलीनाची ॲलर्जी आशिल्ल्यांक टॅट्रासायक्लीन वा एरिथ्रोमायसीन फावो ते मात्रेंत दितात. जितली मात्रा पिडेस्ताक दितात तितलीच संपर्कीत व्यक्तींकूय दितात.

इ.स. १९५० - ६० ह्या काळांत संवसारीक भलायकी संघटनेन ह्या रोगाआड पेनिसिलीन उपचाराची व्हड मोहीम हातांत घेतिल्ली. १५.२ कोटी लोकांची तपासणी करून ४.६१ कोटी पिडेस्तांचेर उपचार करून हो रोग संवसाराच्या कांय भागांनीच मर्यादीत दवरपांत तिका यश मेळिल्लें. हालींच कांय अस्तंत आफ्रिकी देशांतल्यान यॉजचो प्रादुर्भाव जाल्ल्याचें दिसलां आनी संवसारीक भलायकी संघटनेन १९८० पसून परत पेनिसिलीन उपचाराची मोहीम सुरू केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**यिट्स, विल्यम बटलर :** (जल्म : 13 जून १८६५ डब्लिन, आयर्लंड; मरण : २८ जानेवारी १९३९, रॉकब्र्यून - केप मार्टिन, फ्रांस).



नोबॅल पुरस्कारप्राप्त ॲंग्लो आयर्लंडी कवी, नाटककार आनी निबंदकार. ताचो बापूय चित्रकार आशिल्लो.

यिट्साचें शिक्षण लंडन आनी डब्लिनाक जालें. डब्लिनच्या 'मॅट्रोपोलिटन स्कूल ऑफ आर्ट' हातूंत ताणें कांय काळ कलाशिक्षण घेतलें (१८८४ - १८८६). सादारणपणान पिरायेच्या सतराव्या वर्सासावन ताणें कविता करपाक सुरवात केली. १८८७ वर्सासावान ताच्यो कविता उजवाडा येवंक लागल्यो. त्याच वर्सा तो लंडनांतले थिऑसॉफिकल सोसायटीचो वांगडी जालो.

१८८८ वर्सा विल्यम मॉरिस, जॉर्ज बर्नार्ड शॉ, ऑस्कर वायल्ड ह्या साहित्यिकांकडेन ताचो परिचय जालो. १८८९ वर्सा 'द वाँडरिंग्स ऑफ ऑइसिन ॲंड अदर पोएम्स' हो पयलो कवितांझेलो उजवाडा आयलो.

१८९१ वर्सा लंडनचे आनी १८९२ वर्सा डब्लिनचे आयरिश लिटररी सोसायटीची स्थापणूक जाली. ह्या दोनूय संघटनांचो यिट्स संस्थापक वांगडी आशिल्लो. १८९३ वर्सा ताचो 'द केल्टिक ट्वायलायट' हो निबंदझेलो उजवाडा आयलो.

'आयरिश लिटररी थिएटर' ह्या पंगडाची ताणें १९०२ वर्सा स्थापणूक केली. हेच संस्थेचें १९०४ वर्सा 'ॲबी थिएटर' अशें नामकरण जालें. आयर्लंडी जीवनावयल्या नाट्यकृतींचें लिखाण आनी सादरीकरण हो हे संस्थेचो हेत आशिल्लो. सुरवातेक सावन यिट्सान हे संस्थेक नाट्याकृती दिल्यात.

द काउंटेस कॅथलीन (पद्यनाटक), कॅथलीन नी हौलिहान (१९०२), ॲट द हॉक्स वॅल (१९१६), दी ओन्ली जेलसी ऑफ ॲमर (१९१६), द किंग ऑफ द ग्रेट क्लॉक टावर (१९३४) आनी परगेटरी (१९३८) हीं ताचीं कांय हेर नाटकां.

नामनेचो अमेरिकन कवी एझरा पाऊंड हो यिट्साचो कांय काळ सचीव आशिल्लो. पाऊंडाक लागून यिट्साचें लक्ष जपानी नो नाट्याकडे वचून त्या नाट्यप्रकारान तो प्रभावित जालो आनी ताणें 'फोर प्लेस फॉर डान्सर्स' ही नाट्यमाळ बरयली.

यिट्साक आयर्लंडाविशीं प्रेम आशिल्लें. पूण ताका आयर्लंड इतिहासांतलो पेगन कालखंड आनी त्या कालखंडांतलीं वीरतायेचीं मुल्यां हेविशीं चड ओड आशिल्ली. ताका लागून यिट्साक अधर्मीक, कॅथलिक पंथविरोधक आनी तेचखातीर ताका आयर्लंड विरोधी असो थरयलो. पूण त्या वादाची यिट्सान पर्वा केली ना.

कवी म्हणून ताच्या विकासाचे दोन पांवडे दिसतात. पयलो १९०० वर्सा मेरेनचो आनी दुसरो ते उपरांतचो. ताच्या पयल्या काळखंडांतले कवितेचेर एडमंड स्पॅन्सर, शॅली, प्री रॅफेएलायट्स हांचो प्रभाव दिसता. पूण ताचे उपरांतचे कवितेंत परिपक्ताय आनी समृद्धतायेचो एक वेगळोच अणभव येता. यिट्साच्या काव्यग्रंथांत द विंड ॲमाँग द रीड्स (१८९९), द शॅडोई वॉटर्स (१९००), इन द सॅव्हन वूड्स (१९०३), द ग्रीन हॅलमॅट अँड अदर पोयम्स (१९१०), रिस्पॉन्सिबिलिटीस (१९१४), द टावर (१९२८), द वायंडिंग अँड अदर पोयम्स (१९२९) आनी लास्ट पोयम्स (१९४०) हांचो आस्पाव आसा. प्रतीकवादी प्रवृत्तीचो जाणविकायेन आविश्कार आपल्या कवितांतल्यान घडोवपी इंग्लिशींतल्या सुरवातीच्या कवींभितरलो यिट्स हो एक.

गूढवादी इंग्लीश कवी विल्यम ब्लेक हाच्या 'प्रॉफेटिक बुक्स' चो ताणें अभ्यास केल्लो. सौंदर्यवादी, गूढवादी आनी राश्ट्रवादी प्रवृत्तींचें एकजीव रसायन यिट्साच्या व्यक्तिमत्वांत जाल्लें दिश्टी पडटा. 'डब्लिन हॅर्मॅटिक सोसायटी' चें वा 'थिऑसॉफिकल सोसायटी' चें ताचें वांगडीपण गूढवादाकडेन आशिल्ली ताची ओड दाखयता. यातुविद्येविशींय ताका आकर्शण आशिल्लें. तत्त्वज्ञानांतल्या प्लॅटॉनिक आनी नवप्लॅटोनिक परंपरांचोय ताका परिचय आशिल्लो.

पिरायेच्या बावनाव्या वर्सा जॉर्जी हायड-लीज हिचेकडेन यिट्स लग्न जालो (१९१७). ताचे बायलेकय गुढाविशीं आकर्शण आशिल्लें. समाधीसारके अवस्थेंत वतकच तिचेकडल्यान स्वयंचलीतपणान कांय लिखाण जातालें. यिट्स तिचेकडेन एक अध्यात्मीक माध्यम म्हणून पळयतालो. 'ए व्हिजन' हे ताचे तात्त्विक कवितेची रचना करतना यिट्सान तिच्या स्वयंचलीत लिखाणाचो आदार घेतलो.

बायझंटिअमाविशीं ताका आकर्शण आशिल्लें. कला आनी आत्मिक विकास हांकां ओंपिल्ले संस्कृतीचें प्रतीक म्हणून ताणें बायझंटिअमाकडेन पळयलें.

यिट्सान गद्यलिखाणूय खूब केलां. तातूंत कथा, कादंबरिका, निबंद, आयर्लंडी आख्यायिका आनी मिथ्यकथांचो आस्पाव जाता. यिट्साच्या कथात्मक साहित्यांत द सिक्रेट रोझ (१८९७) आनी स्टोरीस ऑफ रॅड हॅनरॅहन (१९०४) हांचो आस्पाव जाता. द कॅल्टिक ट्वायलायट (१८९३), आयडीयास ऑफ गूड अँड इव्हिल (१९०३), डिस्क - फोर - अँड - ट्वॅंटी (१९४०) हे ताचे उल्लेखनीय निबंदग्रंथ. फॅअरी अँड फोक टेल्स ऑफ द आयरिश पॅझंट्री (१८८८) हातूंत आयर्लंडी लोककथा आसात. रॅव्हरीज ऑफ चायल्डहूड अँड यूथ (१९१५), द ट्रॅंबलिंग ऑफ द व्हेल (१९२२), इस्ट्रेंजमॅंट (१९२६), द डॅथ ऑफ सिंग अँड अदर पॅसेजिस फ्रॉम ॲन ओल्ड डायरी (१९२८), ऑटोबायोग्राफीस (१९५५) हें ताचें कांय आत्मचरित्रात्मक साहित्य.

१९२२ वर्सा 'आयरिश फ्री स्टेट' ची स्थापणूक जातकच यिट्स नवे सेनेटीचो स वर्सां वांगडी आशिल्लो.

१९२३ वर्सा ताका साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो.

- कों. वि.सं. मं.

**यिद्दीश भास आनी साहित्य :** ज्यू (जूदेव) लोकांची एक भास. सुरवेक हे भाशेक थाईच् ह्या नांवान वळखताले आनी ती आश्केनिझिक ज्यू जमातीची भास आशिल्ली. हिका ज्युडिओ जर्मन अशेंय म्हण्टात. धर्मीक आनी संस्कृतीक खाशेलपणांतल्यान निर्माण जाल्ल्या वेगवेगळ्या ज्यू भाशांमदीं (लादिनो, ज्युदेओ-रोमॅनिक आदी) ही म्हत्वाची भास. १९०० च्या अदमासाक सुमार ७० लाख ज्यू ही भास युरोपांत उलयताले.

सेमिटिक, जर्मानिक आनी स्लाव्हिक ह्या भाशांच्या घटकांतल्यान यिद्दीश भास घडल्या आसली तरी जर्मानिक भाशेचो तिचेर चड प्रभाव पडला. हे भाशेच्यो वेगवेगळ्यो बोली आनी तिच्या मध्ययुगांतल्या विकासस्तरावयली बोलीभास (मध्य जर्मन आनी बव्हेरियन) हातुंतल्यान यिद्दीश वर्णविवस्था, पदवेवस्था आनी वाक्यरचना हांचो मुखेल गाभो जाल्लो आसा.

यिद्दीश भास हिब्रू लिपींत उजवेवटेंतल्यान दाव्यावटेन बरयतात. १९व्या शेंकड्यामेरेन यिद्दीश पुस्तकां आश्केनिझीक लिपींत छापताले. फुडें थळकाळाप्रमाण यिद्दीश भाशेचें व्याकरण बदलत गेलें. यिद्दीश भास भुगोलीक नदरेन दोन गटांनी विभागिल्ली आसा - १) अस्तंत यिद्दीश आनी २) उदेंत यिद्दीश. इतिहासीक नदरेन तिचे पुर्विल्ले, अर्वाचीन आनी आर्विल्ले अशे तीन खंड पडटात.

**अस्तंत यिद्दीश :** मध्य युरोपांतल्या जर्मन भाशीय देशांत आनी ताच्या शिमेवयल्या वाठारांनी (हंगेरी, चॅक आनी स्लोव्हाकिया, उत्तर इटली, हॉलंड) विसाव्या शेंकड्यामेरेन वेगवेगळ्या बोलींच्या रुपांत अस्तंत यिद्दिश उलयताले. आतां थंय जर्मन भास उलयतात.

**उदेंत यिद्दीश :** हिचो विकास आश्केनिझिक ज्युच्या स्थलांतरा

उपरांत मध्य युरोपांतल्यान उदेंत युरोपांत चड जावंक लागलो. चड करून ही भास रशिया आनी रुमानियेंतले ज्यू लोक उलयताले.

यिद्दीश भाशेचो उगम आनी इतिहास हो ज्यू लोकांच्या धर्म, इतिहास आनी संस्कृताय हांचेवांगडा बांदिल्लो आसा. जर्मनींतल्या ऱ्हायनलँड वाठारांत, इकराव्या - बाराव्या शेंकड्यांत ज्यू भाशेचो जल्म जालो आसुंये. तशेंच सेमिटिक संस्कृतायेंतलीं उतरां आनी हिब्रू लिपी ह्या दोन मुखेल घटकांच्या आदाराचेर हे भाशेचो विकास जालो.

**पुर्विल्ली यिद्दीश (१५०० मेरेन) :** व्होर्म्सच्या माखसोरांत १२७२ - ७३ त पयली नोंद जाल्ली भास म्हणून एके कवितेची ओळ आसा. चवदाव्या शतमानाचे अखेरेचीं जायतीं हातबरपां उपलब्ध आसात. पंदराव्या शतमानांतलीं पत्रां, नोंदी, गुपीत संदेश तशेंच साहित्यीक आनी शास्त्रीय बरपां मेळिल्लीं आसात. उपरांत ज्यूंचेर जावपी अत्याचारांक लागून १२-१४ व्या शतमानांत ज्यूंनी स्थलांतर केलें. ताका लागून अस्तंत यिद्दीश भाशेंत बदल जावन उदेंत यिद्दीश भाशेक सुरवात जाली.

**अर्वाचीन यिद्दीश भास (१५०० - १७५०) :** हो काळ अस्तंत यिद्दीश भाशेचो भांगरा काळ आनी उदेंत यिद्दीश भाशेचो सुरवेचो काळ म्हणून वळखतात. उदेंत यिद्दीशांत स्लाविक उतरां आनी वाक्प्रचार हांचो आस्पाव जावंक लागलो. ज्यूंच्या देशांतराक लागून मध्य युरोपांत यिद्दीश भाशेक खूब म्हत्व आयिल्लें. पूण अठराव्या शतमानासावन हे भाशेचो मध्य युरोपावयलो प्रभाव ल्हव ल्हव उणो जालो.

**आर्विल्ली यिद्दीश (१७५० सावन) :** दळणवळणाची भास म्हणून मुखेलपणान उलयतली उदेंत यिद्दीश अठराव्या शतमानासावन ज्यूंची मुखेल संस्कृतीक भास म्हणून वळखूंक लागले. आश्केनिझिक ज्यूंचे हे आवयभाशेच्या वांट्याक विसाव्या शतमानांत ज्यूंच्या देशांतरा उपरांत (युरोपांतल्यान चड करून अमेरिकेंत) आनी खास करून नाझींकडल्यान जाल्ल्या ज्यूंच्या शिरकांडा उपरांत ज्यू लोकांवांगडाच वनवास आयलो म्हळयार उपकारता. पूण जायत्या ज्यू भाशासंस्थांनी तिचो पुनरुद्धार करपाचो वावर हातांत घेतला.

**यिद्दीश साहित्य :** यिद्दिश साहित्याचे पोरन्यांतले पोरने पुरावे चवदाव्या शतमानासावन मेळटात. मौखिक परंपरेन निर्माण जाल्लें तशेंच बरयल्लें बरेंचशें यिद्दिश साहित्य मुद्रणकलेच्या आनी ते सांबाळपाक फावो ती जापसालदारकी घेवंक नाशिल्ल्यान काळाच्या ओघांत तें नश्ट जाल्ल्याची शक्यताय आसा. मध्ययुगाचे अखेरेक युरोपी भाशेंतलें रोमान्सी साहित्य यिद्दीश भाशेंत अणकारलें. बायबलांतल्या कथांचेर आदारिल्ले धर्मीक स्वरुपाचे रोमान्सूय हे भाशेंत बरयले. १५४४ त मार्टिन ल्यूथरान बायबल जर्मन भाशेंत अणकारतकच १० वर्सांनी पँटाट्यूकचे दोन यिद्दीश अणकार जाले. सोळाव्या शतमानाचे अखेरेक Tzehno - Urehno हो पँटाट्युकान (पोरन्या कराराचे पयले पांच भाग) केल्लो यिद्दिश सारांश. हाका खुबूच नामना मेळ्ळी. सोळाव्या शतमानांत एलियास लेविटा हो हिब्रूचो बरो अध्यापक आनी कवी, भाशाशास्त्र आनी व्याकरण हेंय ताचें अभ्यासाचें मळ. ताणें यिद्दीश भाशेंत मोलादीक वावर केलो. ताणें यिद्दीश भाशेंत रोमान्सी बरयल्यात. सर बेव्हिस ऑफ हँपटन ह्या रोमान्साच्या इटालियन रुपांतरावयल्यान Bovo d' Antona ह्या ताणें बरयल्ल्या रोमान्सीक खुबूच नामना मेळ्ळी.

सतराव्या शतमानांत इतिवृत्तां, विलापिका, भाशांविशींचीं मार्गदर्शक पुस्तकां, नैतिक उपदेशांचें लिखाण अशें वेगवेगळ्या स्वरुपाचें साहित्य निर्माण जालें. ह्या शतमानांत यिद्दीश भाशेंत जीं पुस्तकां बरयल्लीं तातुंतलें एक भारतांतल्या कोची शारांत रावपी ज्यू समाजाच्या अभ्यासक्रमांत आसून यिद्दीश भाशेंतल्या नामनेच्या ग्रंथांनी ताचो आस्पाव जाता (सुमार १६७५). ग्लीकेल नांवाचे बायलेन बरयल्ल्यो स्मरणिका उल्लेख करपासारक्यो आसात. Kurantin हें यिद्दीश भाशेंतलें पयलें दिसाळें. १६८६त ॲम्स्टरडॅमांत सुरू जालें. तें दर मंगळाराक आनी शुक्राराक येतालें.

अठराव्या शतमानांत जर्मनींत ज्यूंचें जर्मनीकरण करपाचो यत्न जालो, जाल्यार रशियेंत ज्यूंचें रुशीकरण जावंक लागलें. पोलंडांतूय ज्यूंचेर पोलंडी संस्कृतायेचे संस्कार जावंक लागले. अशे परिस्थितींत यिद्दीश भास वयर सरूंक पावलिना. ह्या अडचणींचेर जैत जोडून यिद्दीश साहित्य चालूच आशिल्लें. जर्मनीभायर इटली, स्वित्झर्लंड, बोहिमिया, हॉलंड ह्याय देशांनी यिद्दीश साहित्य निर्मिती जाताली.

एकुणिसाव्या शतमानांत इझ्रायल आक्सेनफेल्ट (१७८७ - १८६६) हाणें सुमार तीस ग्रंथ रचले. आर्विल्ल्या यिद्दीशांतली पयली नाट्यकृती (लिटल सारा, सॉलोमन एटिंजर (१८०० - ६५), ह्या पोलंडी डॉक्टरान बरयली. व्हिल्नांत आयझॅक मेयर डीकान (१८१४ - ९३) भरपूर प्रमाणांत कथासाहित्य निर्माण केलें. मोखर सेफारिम मेंडेल हाणें दीर्घकथा, समाजीक कादंबरी अशा साहित्यांतल्यान ज्यूंच्या जिवितांचें उपरोधप्रचूर चित्रण करून यिद्दीश भाशेक कलात्मक अभिव्यक्तीचें प्रभावी माध्यम थरयलें. झाराचे सत्तेखाल रशियेंत रावपी ज्यूंच्या दुख्खाचें रुपकात्मक चित्रण ताणें 'द डॉबिन' ह्या आपल्या ग्रंथांत केलां. त्याच काळांत आयझॅक जोएल लिनिएट्झकी हाणें ज्यूंचे जिणेंतल्या फाटसारिल्ल्या कांय गजालींचेर आदारीत 'पॉलीश बॉय' हें पुस्तक बरयलें. शोलेम अलेईकेम हो एक व्हड विनोदकार. ज्यू साहित्य संवसारांतलो मार्क ट्वेन म्हणून ताका वळखतात. आयझॅक लेब्युश पेरेट्सची (१८५१ - १९१५) 'नायट ॲट द ओल्ड मार्केटप्लेस' ही उल्लेख करपासारकी नाट्यकृती.

एकुणिसाव्या शतमानाचे निमाणें यिद्दीश रंगमाचयेर सुदारणा घडोवन हाडपाचें काम अमेरिकेंत सुरू जालें. हातूंत जेकब गॉर्डीन

हाणें केल्लीं रुपांतरीत नाटकां उल्लेख करपासारकीं आसात. १९१५च्या सुमाराक अमेरिकेंत यिद्दीश कविता बरोवपी तरणाटे कवी उदयाक आयले. हातूंत इग्नाटॉव्ह, जोसेफ ओपाटोशू आनी झीशा लंडो हे कवी मुखेल.

विसाव्या शतमानांत यिद्दीश साहित्याच्या मळार वेगवेगळे विशय हाताळिल्ले दिश्टी पडटात. इझ्रायल सिंगर हाची द ब्रदर्स आश्केनाझी ही ज्यूंचे जिणेवयली, आर्विल्या काळांतली एक व्हड कादंबरी. ह्या काळांतली शोलेम ॲश हाची 'गॉड ऑफ रिव्हँज' ही वादग्रस्त नाट्यकृती उल्लेख करपासारकी. हाचेभायर ह्या शतमानांतले हेर उल्लेख करपासारके कादंबरीकार अशे - शोलेम ॲश, आयझॅक सिंगर, जोसेफ ओपाटोशू, इझ्रायल सिंगर, लिऑन कॉब्रीन (अमेरिका), झेड सेगालोविट्स (पोलंड), डेविड बेर्गलसन (रशिया).

जेकब गॉडीन (गॉड, मॅन अँड डेव्हिल), हिर्शबेन (हॉंटेड ईन), डेविड पिन्स्की (ट्रॅन्स्झ्यीर), लिऑन कॉब्रीन (कंट्री स्वेन) हे विसाव्या शतमानांतले कांय नामनेचे नाटककार.

यिद्दीश भाशेंत इतिहास, समाजीक तत्त्वगिन्यान, भाशाशास्त्र ह्या सारक्या विशयांचेरूय बरप जाल्लें आसा आनी ज्यूंचे संस्कृतीक चळवळीक हे बरपावळींतल्यान प्रेरणा मेळिल्ली आसा. अमेरिका, रशिया आनी पोलंड ह्या वेगवेगळ्या देशांतल्यान यिद्दीश साहित्याची निर्मिती जाल्ली आसून त्या-त्या देशांतल्या वट्ट वातावरणाचे ठशे ताचेर उठल्यात. यिद्दीश भाशेंतल्या जायत्या ग्रंथांचे हेर भाशेंत अणकारूय जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**यिस्ट :** एककोशिकी (एके पेशीचें) कवक (बुरशीभाशेन हरितद्रव्यरहित वनस्पती). साकर आशिल्ल्या पदार्थापसून आल्कोल आनी मैद्यापसून पाव तयार करपाखातीर ताचो वापर करतात.

१६८०त लेवनहूक हाणें सुक्ष्मदर्शकाखाला सगळ्यांत पयलीं यिस्ट पळयलें. पाव आनी आल्कोल हांचे निर्मितींतलें यिस्टाचें कार्य १८७६ वर्सा लुई पाश्चरान दाखयलें. जायत्या कामांनी उपेग पडपी यिस्टाचें दर वर्साचें उत्पादन कांय दशलक्ष किग्रॅ. परस चड आसा. माती, वनस्पतींचीं फुलां आनी फळां, किटक तशेंच फळांचो रोस, साकरयुक्त द्रव पदार्थ, दूद हातूंत यिस्ट सांपडटा.

चड करून यिस्ट एक कोशिकीय आसता. ताचो आकार वेगवेगळो आसपाक शकता. कांय यिस्ट तंतूमय आकाराचे आसतात.

वेगवेगळ्या तरांच्यो साकरी, आल्कोलां, कार्बनी आम्लां हांचो कार्बनी पदार्थ म्हणून यिस्ट वापर करता. तें कार्बनी वा अकार्बनी नायट्रोजन वापरपाक शकता. हांचेभायर वेगवेगळ्या तरांच्या खनीज द्रव्यांचीय यिस्टाचे वाडीक गरज आसता. यिस्टाचे कोशिकेक भित्ती आसतात. कोशिकेंत चड करून एक केंद्रक (कोशिकेंतल्या क्रियांचेर नियंत्रण दवरपी वाटकुळो पूंज), लिपीडयुक्त गोलक, व्हॉल्युटिनयुक्त कण, कलकणू सारकिले जायते घटक सांपडटात. कोशिकेंत ग्लायकोजनाचेंय प्रमाण खुबूच आसता.

शरीरक्रियात्मक नदरेन यिस्टाचे दोन गट जातात - १) किण्वन (आंबोवपाची वा कुसपाची क्रिया) घडोवन हाडपी आनी २) श्वसन करपी. किण्वन घडोवपी यिस्ट श्वसनूय करतात. पूण ह्या दोन क्रियांनी ग्लुकोजाच्या अपघटनांत (रेणूंचे कुडके जावपाचे क्रियेंत) वेगवेगळे पदार्थ तयार जातात. यिस्टाच्या आदारान किण्वन क्रिया चालू आसतना हवेची पुरवण केल्यार किण्वन उण्या प्रमाणांत जाता आनी श्वसनक्रिया वाडटा. तशेंच आल्कोलापरस कोशिकेची वाड चड जाता.

यिस्टांत अलैंगिक आनी लैंगिक प्रजोत्पादन सांपडटा. मुकुलन पद्दतीन (भायल्या आंगाचेर वाटकुळे उंचवटे तयार जावन तांचेपसून प्रजोत्पादन जावपाची पद्दत) यिस्टाचें अलैंगिक प्रजोत्पादन जाता. हें



प्रजोत्पादन खऱ्या आनी आभासी कोशिका विभाजनान आनी ऑयडियानान जावपाक शकता.

लैंगिक पद्दतीन जावपी प्रजोत्पादनांत दोन प्रकार सांपडटात. पयल्या प्रकारांत संयोगाखातीर सम (+) आनी विशम (-) अशा दोन भिन्न एक गुणीत कोशिकांची (बिजाणू) गरज आसता. ह्या प्रकाराच्या यिस्टाक पूर्ण यिस्ट म्हण्टात. दुसऱ्या प्रकारांत संयोग जावपी एकगुणीत कोशिकांत वेगळेंपण सांपडना. अशा यिस्टाक अपूर्ण यिस्ट म्हण्टात.

लैंगिक प्रजोत्पादनाक जाय आशिल्ल्या बिजाणूंक ॲस्को-बिजाणू वा धानी बिजाणू म्हण्टात आनी ते प्रमाण यिस्टाचो आस्पाव ॲस्कोमायसिटीज ह्या वर्गांतल्या कवकांत करतात. यिस्टाचे आनुवंशिक गूणधर्म क्ष-किरण वा कांय रसायनांक लागून कायमचे बदलूं येतात. हांचो उपेग आल्कोलाचें चड प्रमाणांत उत्पादन करपी यिस्ट तयार करपाखातीर जाता.

यिस्टाच्या वर्गीकरणाविशीं एकमत ना. जे. लॉडर आनी एन्. जे. डब्ल्यू. क्रेगर - व्हॅन रिज ह्या शास्त्रज्ञांनी हांचेविशीं जायतें संशोधन करून बिजाणुनिर्मितीचेर आदारीत वर्गीकरण केल्लें आसा. तेप्रमाण यिस्टाची विभागणी सकयल दिल्ल्या तीन गणांनी केल्ली आसा. १) एंडोमायसिटेलीझ २) क्रिप्टोकॉकेलीझ आनी ३) स्पोरोबोलोमायसिटेलीझ.

यिस्टाचे जायते उपेग आयज खबर आसात. आल्कोल

निर्मिती, पाव, मनशाचें जेवण आनी पशुखाद्य, जीवनसत्त्वांचें उत्पादन आनी एंझायम निर्मितीखातीर ताचो उपेग जाता.

यिस्टाच्यो कांय जाती त्रास दिण्योय आसतात. क्रिप्टोकॉकस निओफॉर्मन्स आनी कॅन्डिडा अल्बिकान्स ह्या जातींचें यिस्ट मनशाच्या शरिरांत तंत्रिका तंत्राच्यो आनी कातीच्यो पिडा निर्माण करतात. तशेंच, कांय यीस्ट जनावरां, सुकणीं आनी वनस्पतींनी पिडा निर्माण करतात. अशा रोगांचेर जैत जोडून यिस्टाचो मनशाच्या उपेगाखातीर चडांत चड वापर कसो करपाक येतलो हाचेर संशोधन चालू आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**युआन च्वांग** : (जल्म : इ.स. ६०२ लो यंग, चीन; मरण : इ.स. ६६४, चीन).

एक चीनी बौद्ध भोंवडेकार आनी विद्वान. पिरायेच्या आठव्याच वर्सा ताणें कन्फ्युशियन धर्माच्या सगळ्या ज्ञान फांट्यांचें वर्चस्व संपादन केलें. मागीर ताणें बौद्ध विहारांत वचून बौद्ध दिक्षा घेतली आनी बौद्ध तत्त्वज्ञानाचो अभ्यास सुरू केलो.

इ. स. ६१७त चीनांत अंदाधुंदी मातली. तेन्ना युआन च्वांग भावावांगडा स्पु-चूआन पर्वताच्या आलाशिऱ्याक गेलो. थंयच ताणें बौद्ध धर्माचेर आपलें पयलें प्रवचन दिलें.

युआन च्वांग महायान पंथाचो महापंडीत जालो. ताणें हेरय पंथांच्या तत्त्वज्ञानाचो अभ्यास केलो. तो हुशार आशिल्लो आनी सत्याचो आग्रही आशिल्लो. चीनांत उपलब्ध आशिल्ल्या धर्मग्रंथांभायर भारतांत आनिकय धर्मग्रंथ आसात आनी ते वाचलेबगर आपल्या गिन्यानाची पुर्तताय जावचीना हे मतींत धरून ताणें भारतांत येवपाचें थरयलें. चीनी सम्राटान ताका भारतांत वचपाची परवानगी दिली ना. देखून ताणें लीपचोरयां शीम हुंपली. मागीर तो तुर्फानच्या बौद्ध राजाकडेन आयलो. राजान ताका येवकार दिलो आनी आपल्या दरबारांत धर्मपंडीत म्हणून रावपाचो आग्रो केलो. पूण युआन च्वांगान ताचें म्हणणें न्हयकारलें. ताचे उपरांत राजान युआन च्वांगाक व्हड सन्मानान निरोप दिलो आनी वांगडा आपलें वळखपत्रूय दिलें.

तुर्फानच्यान भायर सरलेउपरांत युआन च्वांग कडा नांवाच्या शारांत पावलो. थंयच्या धा संघारामांत हीनयान बौद्ध पंथाचे दोन हजार बौद्ध भिक्षू रावताले. एक रात तांचेवांगडा भासाभास केले उपरांत तो मध्य आशियेंतल्या कूचा नांवाच्या शारांत गेलो. थंयचो तोखारी राजा सुवर्णदेव हाणें ताचो सन्मान केलो. थंय तो दोन - तीन म्हयने रावलो. थंयच्यान वचपा वेळार राजान ताका नोकरचाकर, ऊंट, घोडे दिवन आपले शिमेमेरेन येवन निरोप दिलो.

कूचा सोडले उपरंत तो एका हून उदकाच्या तळयांच्या प्रदेशांत आयलो. ह्या प्रदेशांत त्या वेळार एका तूर्क सम्राटाचो मुक्काम आशिल्लो. त्या सम्राटाचेर बौद्ध धर्माचो प्रभाव आशिल्लो. युआन च्वांग हो एक बौद्ध पंडित ह्याच मार्गान भारताकडेन वता हें कळटकच ताका खूब खोस जाली. ताणें युआन च्वांगाचें आदरातिथ्य केलें. युआन च्वांगान त्या तूर्क सम्राटाक धर्मोपदेश केलो. ताची हुशारकाय पळोवन राजान ताका आपल्या दरबारांत रावपाचो आग्रो केलो. पूण युआन च्वांग हे गजालीक तयार ना तें पळोवन ताणें ताका ताचे भारत यात्रेंत सगळे तरेचो पालव आनी संरक्षण दिवन निरोप दिलो.

युआन च्वांग मागीर समरकंदाक गेलो. थंय ताणें एक प्रवचन दिलें आनी जायत्या लोकांक बौद्ध दिक्षा दिली. जायत्या पोरन्या बौद्ध विहारांचोय जीर्णोद्धार ह्या निमतान केलो.

समरकंदाउपरांत बॅक्ट्रियाच्या बौद्ध प्रदेशांतल्यान चलत युआन च्वांग हिंदुकुश पर्वत हुंपून बामियान प्रदेशांत पावलो. थंय त्या काळार धा बौद्ध विहार आशिल्ले आनी हजारांनी भिक्षू रावताले. हांगाच्या दोन व्हड बुद्धमूर्तींचो उल्लेख युआन च्वांगान केला.

बामियाउपरांत १००० फूट ऊंच आशिल्लो शिबर नांवाचो दोंगराळ वाठार हुंपून तो काबूलालागीं कपिश नांवाच्या गांवांत आयलो. थंयचो राजा महायानी बौद्ध आशिल्लो. ताणें युआन च्वांगाक येवकार दिलो. थंय ताणें बौद्धमतानुयायांची बसका घेतली. मागीर तो जलालाबाद गांवांत गेलो. भारतीय भूप्रदेशांतलें हें पयलें ठिकाण. भगवान बुद्धाचे हे पवित्र भुंयेच्या दर्शनान ताचे दोळे भरून आयले.

गंधार प्रदेशांत फाटलीं सशें वर्सां बौद्ध धर्माचो आनी बौद्ध कलेचो विकास जाल्लो. ताका लागून त्या प्रदेशाक बौद्धाच्या पवित्र स्थानाचें म्हत्व फावो जाल्लें. पेशावरचो वाठार त्या वेळार हुणांच्या घुरयांनीं उद्ध्वस्त जाल्लो. थंयचे कितलेशेच बौद्धविहार आनी स्तुपांची तांणी मोडतोड केल्ली. उड्डियान प्रदेशांतलेय १४०० विहार तांणी मोडिल्ले. पूण ह्या सगळया विध्वंसा उपरांतूय थंयचे लोक बौद्ध धर्मीच आशिल्ले. भगवान बुद्धाचे भुंयेतूच ताच्या धर्माक हे भोग भोगचे पडटात तें पळोवन युआन च्वांग दुख्खी जालो.

ताचेउपरांत युआन च्वांगान उदकखंडालागींची सिंधू न्हंय हुंपली आनी तक्षशीलेंत आयलो. थंयच्यान तो काश्मीराक गेलो.

काश्मीरच्या राजान युआन च्वांगाक आपले राजधानींत व्हड येवकार दिलो. युआन च्वांगान थंय चालू आशिल्ल्या बौद्ध धर्मप्रसाराविशीं समाधान उकतायलें. थंय ताणें जायत्या व्हड बौद्ध भिक्षुंच्यो भेटी घेतल्यो. सत्तर वर्सां पिरायेच्या एका महायानी भिक्षून ताका योगाचार मताविशीं जायते मोलादीक सिद्धान्त सांगले. ते आयकतना युआन च्वांगाक आपल्या खडतर प्रवासाचें सार्थक जाल्लेभाशेन दिसलें आनी ताची गिन्यानाविशींची भूक बळावली. ते उपरांतचीं दोन वर्सां तो काश्मीरांतच रावलो आनी बौद्ध तत्त्वगिन्यानाचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. तशेंच चीनांत व्हरपाखातीर ताणें जायत्या बौद्ध ग्रंथांच्यो प्रती तयार केल्यो.

काश्मीरच्यान तो साकल वा सियालकोट शारांत पावलो. सियालकोटच्यान तो व्यास न्हंयेचे देगेवयल्या चीनभुक्ती नांवाच्या गांवांत गेलो. थंय एका माध्यमिक पंथाच्या भिक्षून ताचे जायते दुबाव पयस केले. आनी बौद्ध धर्मांतलीं जायतीं कुवाडीं समजावन सांगलीं. थंय तो एक वर्सभर रावलो आनी मागीर इ. स. ६३४ त जालंधराक गेलो. जालंधरच्यान तो मथुरेक गेलो. ते उपरांत ताणें स्थानेश्वर, कपित्थ, कनौज ह्या सुवातांक भेट दिली. कनौजचो राजा हर्षवर्धनाची आनी युआन च्वांगाची पयलेच भेटीत इश्टागत जाली. हर्षाच्या व्यक्तिमत्त्वाविशीं आनी शासनवेवस्थेविशीं युआन च्वांगान विस्तृत आनी तोखणायेचें वर्णन बरयल्लें आसा.

थंयच्यान तो मागीर अयोध्येक गेलो. अयोध्येच्यान गंगेचे देगेन प्रयागाकडेन वतना वाटेर ताका चोरांनी धरलो आनी देवीमुखार नरबळी दिवपाचें कारस्थान रचलें, पूण तो तातुंतल्यान वाटावलो. प्रयागाक बौद्ध धर्माचें अस्तित्व खूब उणें आसा म्हणपाचें ताका जाणवलें. थंयच्यान तो कौशांबीक गेलो. कौशांबीक तो भगवान बुद्धाच्या स्मृतिचिन्नांक पांयां पडलो.

कौशांबी सोडले उपरांत ताणें भगवान बुद्धाच्या जल्मस्थानार वचपाचो संकल्प केलो. ते खातीर तो श्रावस्ती, कपिलवस्तू अशा स्थानांक भेट दीत दीत लुंबिवनांत पावलो. त्याच वेळार ताणें रामग्राम आनी कुशीनगर ह्या स्थानांची यात्रा केली. थंयच्यान तो वाराणसीचे वाटेन वैशालीक गेलो. मागीर तो बुद्धगयेक गेलो. नालंदाक तो धा हजार महायानी भिक्षूंवांगडा १५ म्हयने रावलो. ह्या काळांत ताणें योगाचार संप्रदायाचो आनी संस्कृत भाशेचो खोलायेन अभ्यास केलो. नालंदाउपरांत राजघराचें दर्शन घेवन तो इ.स. ६३८चे सुरवेक बंगालांत गेलो. तें सगळें वर्स तो बंगालांत रावलो आनी मागीर ताम्रलिप्तीक गेलो.

युआन च्वांग मागीर उडिसा, महाकोशल आंध्र ह्या प्रदेशांची यात्रा करीत कांचीक गेलो. श्रीलंकेक वचपाचो ताचो बेत आशिल्लो. पूण ताणें तो रद्द केलो आनी तो उत्तरेकडेन घुंवलो. भरूकच्छ, वलभी, सिंध, मुलतान ह्या नगरांक आनी प्रदेशांक भेट दिवन तो परत नालंदा शारांत रावपाखातीर गेलो. मदीं आसामचो राजा भास्करवर्मा हाच्या आपोवण्यावयल्यान तो थंय वचून आयलो. ताचे उपरांत ताची आनी हर्षाची परत भेट जाली. हर्षान आयोजित केल्ल्या कनौज आनी प्रयाग हांगाच्या बौद्ध बसकांक हजर रावन ताणें म्हत्वाचो वांटो घेतलो. ह्या बसकांचो सविस्तर नियाळ ताणें बरोवन दवरला.

मागीर जालंधर, तक्षशीला, जलालाबाद असो प्रवास करीत इ.स. ६४४ वर्सा हिंदुकुश दोंगर हुंपून तो स्वदेशांत परतलो. ताच्या देशांत ताका व्हड सन्मान मेळ्ळो. परवानगेबगर तो शीम हुंपून गेल्लो म्हण थंयचो राजा सुरवेक जरी ताचेर रागार जाल्लो तरीपूण आयले उपरांत ताणें ताका लोकांवांगडा येवकार दिलो. राजान ताका दरबारांत मंत्रीपद दिवपाक केलें. पूण ताणें तें न्हयकारलें.

आपलें उरिल्लें जिवीत ताणें एक सामान्य भिक्षूक म्हणुनच सारलें. भारतांतल्यान व्हेल्ल्या सुमार ६०० बौद्ध ग्रंथांचो ताणें आपल्या वांगड्यांच्या पालवान चीनी भाशेंत अणकार केलो.

ताणें आपली सगळी जीण बौद्ध धर्माचे सेवेक आनी अभ्यासाक ओंपली आनी इ. स. ६६४ वर्सा ताचें निर्वाण जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**युआन - शृ - खाय् :** (जल्मः १८५९ श्यांग छंग्, हूनान् ; मरणः ६ जून १९१६).

प्रजासत्ताक चीनाचो पयलो अध्यक्ष, मुत्सद्दी आनी लश्करी फुडारी. एका जमीनदारी कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. शिकता आसतना अभ्यासापरस ताचें लक्ष हेर राटावळी करपाकडेन चड आसतालें. ताचे शिटूक आनी संघटक वृत्तीक लागून उणें शिक्षण आसून लेगीत ताची कोरियेचो गव्हर्नर म्हणून नेमणूक जाली. ताणें कोरियेवयल्या चीनाच्या सार्वभौमत्वाचो हक्क प्रस्थापीत केलो. १८८५ वर्सा सोल शाराचो आयुक्त म्हणून ताची नेमणूक केली. फुडें चीनी - जपानी झुजांत सगळया वटांनी हार जाता आसतना ताणें आपल्या फुडारपणाखाल स्वतंत्र सैन्य तयार करून बॉक्सर बंडांत चीनाची अब्रू राखपाचो यत्न केलो (१९००). हाका लागून त्सस्यी महाराणयेचो ताचेवयलो विस्वास वाडलो आनी तिणें ताका जूली प्रांताचो गव्हर्नर नेमलो. उपरांत ताणें आपलें लश्करी बळगें वाडोवपाचो यत्न केलो. त्या प्रांतांतल्यो शिक्षण संस्था, उद्देगधंदे वाडोवपाक सुरवात केली. रोखडोच ताका उत्तर चीनाचो लश्करी फुडारी म्हणून नामना मेळ्ळी. ताणें चीनाच्या आधुनिकीकरणाक सुरवात केली आनी सगळया मळांचेर नेटान उदरगत जाली. १९०८ वर्सा मांचूची महाराणी मरतकच मांचू गादयेच्या कारभाऱ्यांनी ताका धांवडायलो. तेन्ना दुस्मानांनी सगळया वटांनी उठाव करून चीनी क्रांतीन खर रूप घेतिल्लें. अशे तरेन मांचू साम्राज्य संकश्टांत आसतना क्रांतिकारक आनी साम्राज्यवादी ह्या दोगांकूय, देशाचे एकात्मतेखातीर आनी शांतीकायेखातीर युआनाची प्रजासत्ताक चीनाचो अध्यक्ष म्हणून नेमणूक जाली (१९११) आनी डॉ. सन-यत-सेन हाणें आपल्या तात्पुरत्या अध्यक्षपदाचो राजिनामो दिलो. अध्यक्ष जातकच ताणें राजेशायेक तेंको दिलो आनी क्ोमिनतांग (ग्वोवमिन्दांग) पक्षाचेर बंदी घालून त्या पक्षांतल्या फुडाऱ्यांक ख्यास्ती फर्मायल्यो.

युआन-शृ - खायच्या ह्या धोरणाक तोंड दिवपाखातीर सन - यत् - सेन हाणें यत्न करपाक सुरवात केली. पूण नानकिंगच्या झुजांत ताचेर हार पडून सन - यत् - सेनाक चीन सोडून जपानाक पळून वचचें पडलें.

युआन-शृ-खाय् हाणें पार्लमेंट रद्द करून हातासकयल्या अधिकाऱ्यांची गव्हर्नर म्हणून नेमणूक केली आनी एका शासकीय

मंडळाची स्थापणूक केली. १९१६ वर्साच्या नव्या वर्सा दिसा ताणें आपणाक चीनाचो बादशाहा म्हणून घोशीत केलो. पूण हाका लागून ताचे राजवटीआड चडशा प्रांतांनी बंडां जालीं आनी परदेशी सत्तांनी लेगीत ताका दिल्लो तेंको काडून घेतलो.

- कों. वि. सं. मं.

**युकरिस्ट :** एक क्रिस्तांव धर्मीक संस्कार. Eucharistia ह्या ग्रीक उतरापसून ताची व्युत्पत्ती आसून ताचो अर्थ 'उपकारस्तुती करून' असो आसा. मरणापयलीं जेजून आपल्या शिश्यांवांगडा निमाणचें जेवण घेतलें. आपणें आपणायल्ल्या मरणाचो मार्ग आनी अर्थ समजावन सांगतना ताणें भाकरी आनी द्राक्षांरोस घेतलो आनी 'उपकारस्तुती करून' अशे उद्गार काडले. तुमचेभितर आनी आपलेभितर इश्वरकृपेचो 'नवो करार' अशें हें म्हजें रगत आसा. जितल्या फावटीं तुमी हें घेतले तितले फावटीं आपली याद करात अशें सांगलें. ह्या प्रसंगाक युकरिस्ट विधिचें मुळावण मानतात.

कांय इगर्जींनी हो विधी दीसपट्टो करतात, कांयकडेन आयतारा जाल्यार कांय इगर्जींनी थरावीक वेळारूच हो विधी पाळटात. खाशेल्या प्रसंगांचेर, मरणावेळार वा क्रिस्तांव लोकांच्या कसल्याय मेळाव्या वेळार हो विधी करपाची चाल आसा. पवित्र प्रभुभोजना वतीन हो 'युकरिस्ट' विधी मनयतात.

जांणी बाप्तिझ्म घेतलां आनी जे मनांतल्यान तयारी दाखयतात तांचे बाबतींत जात, पिराय, दादलो-बायल तशेंच समाजीक वा अर्थीक परिस्थितीप्रमाण कसलोच भेदभाव करिनासतना प्रभुभोजनांत आस्पावन घेतात.

'म्हजो देह खरें खाद्य आनी म्हजें रगत खरें पेय' ही योहानान बरयल्ली शुभवर्तमानांतल्या सव्या अध्यायांतली ५५वी ओवी. हाचो अर्थ चडशे क्रिस्तांव लोक म्हळयार रोमन कॅथलिक, इस्टर्न ऑर्थोडॉक्स आनी ल्यूथरन लेगीन असो करतात, की जेझू क्रिश्त ह्या संस्कारांत भाकरी आनी द्राक्षांरोसाच्या रुपांत खऱ्या अर्थान हाजीर आसता. धर्मगुरू जेझूच्या नांवान प्रभुभोजनाचीं उतरां उच्चारता तेन्ना क्रिश्त संस्काराच्या रुपांत हाजीर आसता. कॅथलिक इगर्जेंत भाकरी क्रिश्ताचो प्रसाद म्हणून मुखेल वेदीम्हऱ्यांत सोबयल्ल्या ताटांत दवरतात. फकत अधिकृत धर्मगुरूच पवित्र मीस मनोवंक शकतात. भक्त ह्या संस्कारांत वांटो घेवन भाकरी आनी द्राक्षांरोस क्रिस्ताचो प्रसाद म्हणून घेतात. केन्ना केन्नाय अशा वेळार फकत भाकरीच आसता.

भावार्थी लोकांभितर भावपण वाडोवपाचे नदरेन हो पवित्र संस्कार करतात. कॅलव्हरीवयल्या जेझूच्या आत्मसमर्पणाची ती याद. कॅलव्हरी दोंगुल्लेचेर क्रिश्ताक मरण आयिल्लें. धर्मगुरू कॅलव्हरीचेर जाल्लो यज्ञ नव्यान करीना; जेझू हो यज्ञ आपल्या लोकांखातीर उपलब्ध करून दिता.

ह्या युकरिस्टाक हेर नांवां आसात तीं अशीं - प्रभुभोजन, पवित्र मिस्सा वा मॅस, मित्तरे, धाडप. युकरिस्ट - उपासनेच्या अखेरच्या वाक्याचो 'Ite missaest' म्हळयार 'चलात, तुमकां धाडटां' हो भाग आसा. मंगल संस्कार, क्रिश्त शरीर संस्कार, पवित्र सहभागिता, सहभोजन, क्रिश्तप्रसाद, परमप्रसाद ह्या अर्थांनीय तो वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**युक्रेन :** रशियेचे आग्नेयेक आशिल्लो एक देश. पुर्विल्ल्या रशियन संघराज्यांतलें एक प्रजासत्ताक. डिसेंबर १९९१ त संघराज्यांतल्यान भायर सरून युक्रेनान आपलें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. क्षेत्रफळ ६,०३,७०० चौ. किमी. लोकसंख्या - ५,१०,००,०००. देशाचे उत्तरेक बेलोरशिया, उदेंतेक रशिया, दक्षिणेक काळो दर्या, ॲझोव्ह दर्या, रुमानिया आनी अस्तंतेक हंगेरी, पोलंड, चॅक आनी स्लोवाकिया हे देश आसात. कीव हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन आनी हवामान :** युक्रेन हो व्हडलीं सपाट मळां आशिल्लो देश. देशाचे नैर्ऋत्येक कार्पेथियन पर्वतांवळ आसा. काळया दर्या लागसार सकयलो भूंयप्रदेश आसा आनी सींफियरॉपल हो चड सपाट भाग स्टॅप प्रदेशांत मोडटा. उदेंतेक डोनेट्स देगण आसा. देशाचें हवामान सादारणपणान सुकेंच आसता. चेर्निगॉव्ह, व्हॉलिन्य, लाव्हॉव्ह हीं दाट रानांचीं क्षेत्रां. देशाचे उत्तरेक आनी दक्षिणेक लोएस हे पिकाळ काळे मातयेचे दाट थर आसात. निपर, नीस्तर आनी डॅन्युबे ह्यो देशांतल्यो मुखेल न्हंयो.

**इतिहास :** युक्रेन म्हळयार राजनगरीचो एक भाग. सोळाव्या शेंकड्यांत युक्रेन हें नांव प्रचारांत आयलें. झाराच्या तेंपार ह्या प्रदेशाचो 'धाकलें रशिया' असो उच्चार जातालो. १२४०त मंगोल लोकांनी कीव राजनगराचेर घुरी घालून ताचो विध्वंस केलो. १३८७त पोलंडी लोकांनी हो प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडलो. उपरांत १३९२त लिथ्युएनियन सरदारान ताचेर जैत मेळयलें. फुडें सुमार दोन शेंकड्याउपरांत लिथ्युएनिया आनी पोलंडाचें एकीकरण जाल्ल्यान, युक्रेन होय पोलंडी साम्राज्याचो एक भाग जालो. पोलंडी राजा आनी सरदारांनी युक्रेनाची पिकाळ जमीन हातासून थंयच्या शेतकामत्यांक ते गुलाम कशे वागोवपाक लागले. पोलंडीकडच्यान जावपी अन्यायांक लागून साबार युक्रेनीयन नीपर न्हंयेच्या सकयल्या देगणांत वचून रावले. फूडें हांकांच कझाक हें नांव पडलें. तांणी शिमेदेगांनी आपलें स्वतंत्र सैन्य उबारून ते थंय शासन चलोवपाक लागले. सतराव्या शेंकड्यांत जेझुईत मिशनऱ्यांनी थंय कॅथलीक धर्मप्रसाराचो वावर सुरू केल्लो तेन्ना कझाक लोकांनी तांचेआड बंड केल्लें. उपरांत अशेंच बंड पोलंडीकडेन करून बॉदॅम ख्मेलनीत्स्की हाच्या फुडारपणाखाला स्वतंत्र कझाक राज्याची स्थापणूक केली. उपरांत पोलंडी घुरयो परतावन लावपाखातीर कझाक राज्यकर्त्यांनी झाराकडेन कबलात करून, युक्रेनांत रशियन सैन्य

दवरलें. बॉदॅम ख्मेलनीत्स्कीच्या मरणाउपरांत झारान ते कबलातींत बदल करून युक्रेन राज्य बळकावपाचे यत्न सुरू केले. कझाक मुखेल्यांनी रशियेपसून स्वतंत्र जावपाचे खूब यत्न केले. पूण तांकां यश आयलेंना. १७६४त कझाक शासनमुखेल्याचें पद काडून १७७५त विधानसभेची वास्तू रशियन सैन्यान मोडून उडयली. उपरांत रशियन झारांनी युक्रेन समाज आनी संस्कृतायेचें रशियीकरण करपाचे यत्न सुरू केले. तेन्ना युक्रेनाक धाकली रशिया अशें म्हण्टाले.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक युक्रेनीयन लोकांनी साबार भूंयगत संस्था उबारिल्ल्यो. तेरवातीर तांकां खर ख्यास्तूय भोगची पडली. रशियन क्रांतीउपरांत कीव शारांत मध्यवर्ती विधानसभेन युक्रेनी लोकांच्या प्रजासत्ताकाची घोशणा केली. लॅनिनान युक्रेनच्या प्रजासत्ताकाक मान्यताय दिली. पूण ताणें थंयच्या कम्युनिस्टांक तेंको दिवन थंय कम्युनिस्ट सत्ता पातळावपाचे यत्न चालू दवरले. युक्रेनच्या लोकांनी कम्युनिस्टांक विरोध करून स्वतंत्रतायेचें झूज चालूच दवरलें. पूण १९२३त थंयच्या कम्युनिस्ट अधिकाऱ्यांनी युक्रेनाचो सोव्हिएत संघराज्यांत आस्पाव केलो. लॅनिनान युक्रेनाची भास, साहित्य आनी संस्कृताय तिगोवन दवरपाचें मान्य केल्लें. पूण स्टालिनाची राजवट थंय जुलमी थरली. ताणें युक्रेनांत रशियीकरणाची मोहीम चालूच दवरली. तेरवातीर ताणें थंयच्या लोकांचेर खूब अत्याचार केले. हाका लागून दुसऱ्या म्हाझुजाच्या तेंपार साबार युक्रेनी लोकांनी जर्मनीक तेंको दिल्लो. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत लेगीत तांणी रशियेआडचो विरोध चालूच दवरिल्लो. मर्दी १९५४ उपरांत युक्रेनी लोकांची रशियेंतल्या कांय उच्च पदांचेर नेमणूक जावपाक लागली. कांय राजकीय निर्णय घेवपाचेय हक्क युक्रेनाक दिल्ले. पूण डिसेंबर १९९१त युक्रेनान सोव्हिएत संघांतल्यान भायर सरून आपलें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. जानेवारी १९९४त युक्रेन, रशिया आनी अमेरिका हांचेमर्दी कबलात जावन युक्रेनांतल्यान प्रक्षेपणास्त्र काडपाचें रशियेन मान्य केलें. हें काम जून १९९६त सोंपलें. सद्या युक्रेन विकसीत आनी विकासशील देशांकडेन संबंद जोडून नेटान उदरगत घडोवन हाडपाच्या यत्नांत आसा.

**अर्थीक स्थिती :** रशियन संघराज्यांतल्यान भायर सरिल्ल्या हेर प्रजासत्ताकांपरस युक्रेनाची अर्थीक स्थिती खूब बरी आसा. युक्रेनाची अर्थवेवस्था मुखेलपणान शेतवडीचेर आदारल्या. आदल्या सोव्हिएत संघांतली पिकाळ भूंय आशिल्लो तो एक देश. गंव, बकव्हीट, बीट, सुर्यफूल, बटाट, कापूस, फ्लॅक्स, तंबाखू, सोयाबीन, रबर, फळफळावळ ही हांगाची मुखेल पिकावळ. देशाच्या वट्ट उत्पादनांत शेतकी उत्पन्नाचो २५% परस चड वांटो आसता. हांगा गोरवां, कुकडां, दुकरां, मेंढरां आनी बोकडां पोसपाचो धंदोय नेटान चलता. मांस आनी दूद वेवसायासावन व्हड येणावळ मेळटा. लेसोस्टप आनी पॅलिसिया भागांत म्हॉवामूंस आनी ट्रान्स्कार्पेथियनाक रेशमाच्यो किडी पोसतात. शेतकी मळार व्हड प्रमाणांत यंत्रिकीकरण जालां. नुस्तेंमारीचोय धंदो नेटान चलता.

उद्देगीक मळारूय युक्रेनान उंचेलो पांवडो गांठला. लोखण धातूउद्देग नेटान चलता. उत्पादनांत धातूविज्ञानाविशींचीं उपकरणां आनी साधनां, डिझल इंजिनां, दूरचित्रवाणी संच हांचो आस्पाव जाता. जाल्यार रसायन उद्देगांत कोक, सारें, गंधक, आम्लां, किटकनाशक हांचो आस्पाव जाता. रेल्वे इंजीन आनी रेल्वे बांदप, तारवां, जलविद्युत्, औश्णिक आनी वायू टर्बायनां, मोटारी आनी हेर व्हड वस्तुची निर्मिती व्हड कारखान्यांतल्यान जाता. बांदकाम आनी येरादारी सामुग्री हांचेंय व्हडा प्रमाणांत उत्पादन जाता. चडशें विद्युत् उत्पादन औष्णिक विद्युत्‌केंद्रापसून जाता. असलीं ल्हान ल्हान निर्मितीकेंद्रां देशभर पातळ्ळ्यांत.

**येरादारी आनी संचारण :** येरादारी मळार खूब सुदारणा जाल्ली आसा. तातूंत वेपारी नदरेन रेल्वेमार्गाक चड म्हत्व फावो जालां. रेल्वेमार्गांचें जाळें देशभर पातळ्ळां. रस्त्यांचेंय रुंदीकरण जाल्लें आसा. ओडेसा, इल्यिचेफस्क, न्यिकलायेफ, खेरसॉन, फीओडोशिया, केर्च हीं देशांतलीं मुखेल बंदरां. ह्या बंदरांवरवीं युक्रेनाचो सागरी वेपार चलता. नीपर, यूझ्नीबूक, डॅन्युबे ह्यो न्हंयोय येरादारीचे नदरेन म्हत्वाच्यो.

**लोक आनी समाजजीण :** युक्रेनी हे मूळ स्लाव्ह वंशी लोक. इ. स. पयलीं तिसऱ्या वा दुसऱ्या शेंकड्यांच्या सुमाराक ते युक्रेन प्रदेशांत पावले आसुंये. सद्या देशांत सुमार ७५% लोक युक्रेनी आसात. उरिल्ल्या लोकांभितर रशियन, बेलोरशियी, मॉल्डेवी तशेंच पोलंडी लोकांचो आस्पाव जाता. युक्रेनी ही देशाची अधिकृत भास. रशियन भाशेचोय व्हडा प्रमाणांत वापर जाता. देशांतले चडशे लोक ऑर्थोडॉक्स क्रिस्तांव. उरिल्ल्या लोकांमर्दी कॅथलीक, प्रॉटॅस्टंट आनी ज्यूदेव लोकांचो आस्पाव जाता.

युक्रेनी लोकांक भरतकाम केल्लीं सोबीत लुगटां घालपाक मानवतात. त्या लोकांक गायनाचीय खूब आवड. थंय समुहगायन चड लोकप्रिय. युक्रेनी लोकांनी आंपल्या पुर्वजांची चित्रकला तिगोवन दवरल्या. युक्रेनी वास्तुकलेची परंपरा खूब पोरनी. वास्तू अलंकरण हेंय युक्रेनी कलेचें खाशेलेपण.

बाराव्या ते सोळाव्या शेंकड्यामेरेन युक्रेनी साहित्य हें धर्मीक स्वरुपाचें आशिल्लें. उपरांत अठराव्या शेंकड्यासावन युक्रेनी - स्लावीस हे संमिश्र भाशेंत काव्यां, नाटकां आनी हेर गद्यसाहित्य निर्माण जावपाक लागलें. अठराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दासावन युक्रेनी ही युक्रेनाची साहित्यभास जाली. इव्हॉन कोटल्यारेव्हस्की हो त्या तेंपावयलो व्हड साहित्यकार. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्या मेरेन युक्रेनी साहित्य हें मुखेलपणान अभिजातवादी प्रकारचें आशिल्लें. ते उपरांतचीं ३० वर्सांमेरेन स्वच्छंदतायवादी साहित्य प्रकारान थंय

शेक गाजयलो. तारास शेव्हचेंकोचे हो त्याच तेंपावयलो प्रसिद्ध कवी. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दासावन युक्रेनी साहित्यान वास्तववादी मोडण घेतलें. पी. कुलीश, बी. रीनचेंको हे ह्या काळांतले प्रसिद्द कादंबरीकार तशेंच इव्हॉन फ्रॅन्को हो व्हड कवी. विसाव्या शेंकड्याच्या सुरवेच्या वीस वर्सांत ब्लादिमीर वीनीचेंको, मिरवायलो कॉत्स्यूबिन्स्की हांणी निर्देशनीय साहित्य निर्मिती केली. मिरवायलो हाणें आपले 'फाटा मोर गाना' हे कादंबरेंत १९०५ त जाल्ली क्रांती, तिचे गांवगिऱ्या लोकांचेर जाल्ले वायट परिणाम, शेतकामत्यांचो उठाव आनी तांचें अपेश हांचें चित्रण केलां. व्हासिल स्टेफानीक हाच्या कथांनी गरीब शेतकामत्यांची जिवीतकाणी वाचूंक मेळटा. १९२३ उपरांत प्रतीकवाद आनी नव - अभिजातवाद हांचो प्रभाव युक्रेनीयन कवितांचेर जाणवता. १९३४ उपरांत समाजवादी युक्रेनी साहित्यांत समाजवादी वास्तववादाचो उपेग जावपाक लागलो.

- कों. वि. सं. मं.

**युग :** एक काळमाप वा प्रमाण. खंयचेय घटनेची परत परत आवृत्ती जाता तेन्ना तिच्या पर्यायाक जो काळखंड लागता ताका युग अशें म्हण्टात. युग हें उतर युज् = जुळप ह्या धातूपसून जालां, देखून ताचो अर्थ 'एक थरावीक काळखंड' असो जाता. वेदांत ह्या अर्थान युग हें उतर जायतेकडेन आयिल्लें आसा. पूण थंय युगाचें थरावीक काळमान सांगिल्लें ना.

वैदिक साहित्यांत चार वर्सांचें एक युग (चतुवर्षात्मक युग) मानिल्लें दिसता. तैत्तिरिय ब्राह्मण आनी तांड्य ब्राह्मण हातूंत संवत्सर, परिवत्सर, इदावत्सर आनी अनुवत्सर हीं चार वर्सनांवां दिल्लीं आसात. एका युगांतलीं तीं चार वर्सांचीं नांवां आसुंये.

वेदांगज्योतिशांत पांच वर्सांचें युग (पंचवर्षात्मक युग) मानिल्लें आसा. संवत्सर, परिवत्सर, इदावत्सर, अनुवत्सर आनी इद्वत्सर हीं तातुंतल्या पांच वर्सांचीं नांवां. वेदांगज्योतिशांत जरी तीं सांपडनात तरी गर्गादिकांनी हींच नांवां दिल्लीं आसात. ह्या युगांतल्या पांच वर्सांमदीं ६२ चांद्रमास आनी १८३० दीस येतात. म्हणजेच एका युगांत दोन चडीत म्हयने जातात. चार वर्सांचें युग मानलें जाल्यार सौर आनी चांद्र वर्सांचो असो मेळ घालपाक येना. देखून वेदांगकाळांत पंचवर्षात्मक युगपद्दत सुरू केली. हे युगपद्दतीचो उल्लेख महाभारतांत कांय सुवातींचेर आयिल्लो आसून विराट पर्वांत भीष्मान दुर्योधनाक पांडवांच्या वनवासाचो काळ सांगतना पांच वर्सांनी दोन चडीत म्हयने धरिल्ले आसात. वायू पुराणांतूय पंचवर्षात्मक युगाचो उल्लेख सांपडटा.

पुराणांत कृत, त्रेता, द्वापार आनी कली हीं चार युगां मेळून एक म्हायुग मानिल्लें आसा. ताका दिव्य युगय म्हण्टात. अशीं १००० म्हायुगां म्हणजे ब्रह्मदेवाचो एक दीस जाता. ताका कल्प म्हण्टात. तातुंतल्या वर्सांची मेजणी अशी करतात -

कृतयुग - ४८०० दिव्य वर्सां (संध्या आनी संध्यांश धरून)
त्रेतायुग - ३६०० दिव्य वर्सां (संध्या आनी संध्यांश धरून)
द्वापारयुग - २४०० दिव्य वर्सां (संध्या आनी संध्यांश धरून)
कलियुग -१२०० दिव्य वर्सां (संध्या आनी संध्यांश धरून)

वट्ट १२०० दिव्य वर्सां म्हणजेच एक म्हायुग. देवांचें एक वर्स म्हणजेच मनशांचीं ३६० वर्सां. देखून म्हायुगाचीं १२००० दिव्य वर्सां = १२००० x ३६० मनीस वर्सां = ४३२०,००० मनीसवर्सां.

देवांचें युग आनी मनशांचें युग हांचो उल्लेख ऋग्वेदांत सांपडटा. युगमानांतलीं दिव्य वर्सां आनी मानवी वर्सां ही कल्पना पुर्विल्ल्या काळापसूनची अशें कांय पंडीत मानतात.

पुराणांत चतुर्युगांतलीं १२००० वर्सां दिव्य वर्सां मानल्यांत. विष्णु पुराणांतलो हे विशींचो श्लोक असो आसा -

दिव्यैर्वर्षसहस्त्रैस्तु कृतत्रेतादिसंज्ञितम् ।
चतुर्युगं द्वादशभिस्तद्विभागं निबोध मे ।।
चत्वारि त्रीणि व्दे चैकं कृतादिषु यथाक्रमम् ।
द्विव्याब्दानां सहस्त्राणि युगेष्वाहु : पुराविद : ।।
तत्प्रमाणै : शतै : संध्या पूर्वा तत्राभिधीयते ।
संध्यांशश्चैव तत्तुल्यो युगस्यानन्तरो हि स : ।।
कृतं त्रेता द्वापरश्च कलिश्चैव चतुर्युगम् ।
प्रोच्यते तत्सहस्त्रं च ब्रह्मणो दिवसं मुने ।।

**अर्थ** - हे मुने, बारा दिव्य वर्ससहस्त्रांनी कृतत्रेवादी चार युगां जातात. कृतयुगांत चार दिव्य वर्ससहस्त्रां, त्रेतायुगांत तीन दिव्य वर्ससहस्त्रां, व्दापारयुगांत दोन दिव्य वर्ससहस्त्रां आनी कलियुगांत एक दिव्य वर्ससहस्त्र इतलीं वर्सां आसतात अशें पुराविद म्हण्टात. युगाचे सुरवेक आनी अखेरेक त्याच प्रमाणांत म्हणजे अनुक्रमान चार दिव्य शतकां, तीन दिव्य शतकां, दोन दिव्य शतकां आनी एक दिव्य शतक इतलो संधिकाल आसता. कृत, त्रेता, द्वापार आनी कली अशीं चार युगांचीं नांवां आसात. ह्या चार युगांचे सहस्त्र म्हणजेच ब्रह्मदेवाचो एक दीस.

चार युगांचो धर्माकडेन लार्गीचो संबंद आसा. दर युगांत धर्माचो इल्लो इल्लो नाश जाता अशें सांगलां. कृतयुगांत धर्म सगळो म्हणजे चार पादांचो आसता, त्रेतायुगांत ताचो एक पाद नश्ट जाता, द्वापारयुगांत तिसरो पाद नश्ट जाता आनी कलियुगांत तिसरो पाद नश्ट जावन एकच पाद उरता.

मनशाचें आयुर्मानूय युगा युगांत उणें जायत वता. कृतयुगांत मनीस ४०० वर्सां जगता,त्रेतायुगांत ३०० वर्सां जगता, द्वापार युगांत २०० वर्सां जगता आनी कलियुगांत १०० वर्सां जगता. दर युगाचो धर्म वेगळो. कृतयुगांत तप, त्रेतायुगांत आत्मज्ञान, द्वापारयुगांत यज्ञ आनी कलियुगांत दान हो मुखेल धर्म आसा.

मनशाच्या कर्मांचींय फळां दर एका युगांत वेगवेगळीं आसात.

तशेंच तांची पुजनीय देवताय वेगळी आसा. वायू पुराणाप्रमाण कृतयुगांत ब्रह्मदेव, त्रेतायुगांत यज्ञ, द्वापारयुगांत विष्णु आनी कलियुगांत म्हादेव हांची पुजा करतात. दर युगांतली पुजेची पद्दतय वेगळी आसा. कृतयुगांत ध्यान, त्रेतायुगांत यज्ञ, द्वापारयुगांत अर्चा आनी कलियुगांत नाम जप केल्ल्यान एकूच फळ मेळटा, अशें विष्णु पुराणांत म्हळां.

युगधर्माक जेन्ना सारको पाळो मेळना तेन्ना भगवान विष्णु धर्माची घडी सारकी घालपाखातीर धर्तरेचेर अवतार घेता अशें वायू पुराणांत सांगलां.

वैशाख शुध्द तयेक कृतयुग, कार्तिक शुध्द नमीक त्रेतायुग, भाद्रपद वद्य तिरोदशीक द्वापारयुग आनी माघ पुनवेक वा उमाशेक कलियुग सुरू जालें, देखून त्या तिथींक युगादितिथी अशें म्हण्टात. त्या दिसा उपास, तप, दान, श्राध्द, होम, जप आदी इल्ल्याशा प्रमाणांत लेगीत केल्यार ताचें कोटीगुणीत पुण्य फावो जाता अशें सांगिल्लें आसा.

कलियुगाच्या आनी दर एका युगाच्या आरंभाक सगळे गिरे आश्विनीचे सुरवेक एकठांय आसतात, हें ज्योतीशग्रंथांतलें युगारंभाचें लक्षण मनुस्मृती, महाभारत सारकिल्या ग्रंथांत दिल्लें आसा. हाचे उरफाटें सूर्य, चंद्र, बृहस्पती आनी पुष्य एके राशीक येतात तेन्ना कृतयुग सुरू जाता अशें महाभारतांत सांगलां.

सुमार दोन अब्ज वर्सांपयलीं धर्तरी उत्पन्न जाली. तिचो वयलो भाग थंड आनी घट जावन ताचेर उदक सांचपाक लागलें. उपरांत थंय जीवसृश्ट निर्माण जाली. ताचे पयलीं सुमार ८० कोटी वर्सांचो काळ सोंपलो आसुंये असो अदमास शास्त्रज्ञांनी केल्लो आसा. पयलीं हाडां नाशिल्ले जीवजंतू निर्माण जाले. मागीर नुस्तें निर्माण जालें. मागीर व्हड सरकटपी प्राणी निर्माण जाले. सुमार पांच लाख वर्सां पयलीं मनशाची उत्पत्ती जाली अशें मानतात.

सुमार स लाख वर्सांपयलीं धर्तरेचेर पयलो हिमप्रलय जालो. शास्त्रज्ञांच्या मतान अशे चार प्रलय जाले आसुंये. तांकां हिमयुगां म्हण्टात. त्या काळांत चडशी सगळी धर्तरी हिमाच्छादीत आसताली आनी जीवसृश्ट नासतालीच. कांय भाग उश्ण उरिल्ल्यान थंयची जीवसृश्ट बरी उरिल्ल्याचो अदमास आसा. हजारांनी वर्सांउपरांत हवामान परत उश्ण जावन जीवसृश्ट परत उत्पन्न जाताली वा उरिल्ली वाडटाली. परत हिमप्रलय जायमेरेनच्या मदल्या हजारांनी वर्सांच्या काळांत ती सगळी धर्तरेचेर नंदताली. पयल्या वा दुसऱ्या हिमयुगांच्या मदल्या उश्ण कालखंडांत मनशाचो जल्म जालो आसुंये. सुमार २०,००० वर्सां पयलीं निमाणें हिंमयुग सोंपलें अशें म्हण्टात.

सुरवेक माकडाभाशेन आशिल्ल्या आदिमानवान फातराचीं हत्यारां करून आपलें वेगळेपण दाखयलें. तांचीं हीं हत्यारां ओबड धोबड आशिल्लीं. त्या काळाक पुर्विल्लें अश्मयुग म्हण्टाले. लाखांनी वर्सां तें चालू आशिल्लें. तातुंतल्या निमण्या कांय हजार वर्सांच्या काळांत त्या रानवटी मनशांनी वेगळया फातराचीं ल्हान साधनां तयार केलीं. त्या कालखंडाक अश्मयुग म्हण्टात. कालांतरान मनीस सुदारलो आनी तो बरीं साधनां तयार करपाक लागलो. ह्या कालखंडाक नवाश्मयुग म्हण्टात. त्या कालखंडाचे अखेरेक मनशाक तांबें सांपडलें. त्या धातूचो ताणें हत्यारां करपाक उपेग केलो. तांबें आनी कथील हांची भरसण केल्ल्यान एक चड घट्ट आनी तिगपी धातू मेळटा ताका काशें म्हण्टात. ताचीं उपकरणां चड उपेगी थरलीं. नवाश्मयुगा उपरांतच्या कालखंडांत तांबें आनी कांशें हांचो मनशान उपेग केल्ल्यान ताका ताम्र - कांश्य युग हें नांव मेळ्ळें. ताचे उपरांत लोखण ह्या धातुचो सोद लागलो आनी लोखणयुग सुरू जालें.

मनशान जीं साधनां तयार केलीं तीं ल्हव ल्हव बदलत गेलीं. तातूंत प्रगती जायत गेली. ताका लागून तांची रावपाची पद्दतूय बदलली, सुखसोयींनी वाड जाली आनी समाजवेवस्थेंत बदल जालो. हाकाच युगपरिवर्तन म्हण्टात. जगाच्या सगळया भागांनी एकाच वांगडा युगपरिवर्तन जाता अशें ना. खंयच्याय प्रदेशांतल्या मानवसमुहान पयलीं प्रगती करून नव्या युगाक सुरवात केली तरी हेर प्रदेशांतलो मनीस फाटसारिल्लोच आसपाक शकता. पूण जगांत मात नवें युग सुरू जालें अशें म्हणूं येता. कारण प्रगत मानव नव्या प्रकारच्या साधनांक लागून चड बळिश्ट जाल्लो आसता आनी ताचो जेन्ना अप्रगत मानवाकडेन संघर्श जाता तेन्ना तातूंत प्रगत मानव जिखता. ताकालागून हेर मानवसमुहूय आपली प्रगती करून घेतात वा नव्या युगांत प्रवेश करतात वा नश्ट जातात.

नव्या युगाक सुरवात जाले उपरांत त्या युगांतलीं चड प्रभावी आवतां आनी उपकरणां जरी व्हड प्रमाणाचेर वापरांत आसलीं तरीय फाटल्या युगांतलीं साधनां एकदम ना जायनात. तांचो उपेग चड उण्या प्रमाणांत जायत आसता. हाकाच लागून उत्खननांतूय एकाच जाग्यार वेगवेगळया युगांतलीं साधनां सांपडटात. ज्या देशांत नवें युग पयलीं सुरू जाता त्या देशांतूय फाटल्या युगाचे अवशेश जायतो काळ मेरेन तिगून उरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**युगपुराणां** : (पळेयात पुराणां).

**युगांडा** : आफ्रिका खंडांतलो एक आदलो ब्रिटीश रक्षीत देश. ल्ह्ळक्षेत्रफळ २४१, १३९ चौ. किमी. लोकसंख्या १,२६,३०,०७६ (१९९१). विस्तार ४°७' उत्तर ते १°३०' दक्षिण अक्षांश आनी २९°३३' उदेंत ते ३५°२०' उदेंत रेखांश. देशाचे उत्तरेक सुदान, उदेंतेक केनया, दक्षिणेक टांझानिया आनी रवांडा, जाल्यार अस्तंतेक झायरे देश आसात. युगांडा हें नांव 'बुगांडा' ह्या विक्टोरिया तळयावयल्या स्वाहिली राज्याच्या नांवावयल्यान आयलां. कांपाला हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** युगांडाचो चडसो भाग सड्या वाठारांनी रेवाडला. अस्तंत शिमेवयले पर्वतावळींत हिमान भरिल्लीं ऊंच तेमकां आसात. तातुंतलें मार्गारिटा आनी उदेंत शिमेवयलें माऊंट एल्शन ज्वालामुखी तेमूक हीं देशांतलीं सगळयांत उंचेलीं तेमकां. देशाचे नैऋत्येक विरुंगा ही ज्वालामुखी पर्वतांवळ आसा. देशाच्या ईशान्य भागांत ज्वालामुखी पर्वतांवळ आसून तातूंत झूलिआ, मोरूंगोल, मोरोटो, कदम हीं म्हत्वाचीं तेमकां आसात. देशाच्या अस्तंत भागांत उत्तर दक्षिण अशें आफ्रिकेचें व्हड देगण आसून, तातूंत आल्बर्ट, एडवर्ड आनी जॉर्ज हीं तळीं आसात. देशांत व्हड व्हड अशीं साबार तळीं आसून, तातुंतली विक्टोरिया, एडवर्ड, जॉर्ज, आल्बर्ट क्योगा आनी बिसिना हीं म्हत्वाचीं. विक्टोरिया हें साव्या उदकाचें संवसारांतलें दुसरें व्हड तळें. ह्या तळयांतल्यान साबार न्हंयो उगम पावल्यात त्यो अशो, विक्टोरिया नायल, आस्वा, दोपेथ - ओकोक, पॅजर, आल्बर्ट नायल, काफू, कातोंगा आनी म्पोंगो.

देशाचें हवामान मुखेलपणान उश्णकटिबंधीय प्रकारचें. पूण उंचायेप्रमाण तातूंत थोडोभोव फरक जाणवता. विषुववृत्तावयल्या हेर देशांप्रमाण युगांडाचेंय मळब कुपांभरीत आसता. सादारणपणान देशाचें चडांत चड तापमान २९° सॅ. जाल्यार उण्यांत उणें १६° सॅ. इतलें आसता. देशांत सरासरी वर्सुकी पावस १०० सेंमी. इतलो पडटा.

युगांडांत सावाना प्रकारची वनस्पत चड प्रमाणांत आसा. मध्य आनी उत्तर भागांत सावाना प्रकारचें वनस्पतींचीं दाट रानां आसात. दक्षिण भागांत बाभळीचे वनस्पतीचें प्रमाण चड आसा आनी कांयकडेन तणाचे प्रदेश आनी दाट रानां आसात. ह्या रानांनी कँडेलाब्रा आनी युफोर्बिया जातीची वनस्पत मेळटा. देशाच्या ईशान्य आनी उत्तरेकडच्या भागांनी स्टॅप प्रकारची वनस्पत मेळटा. अस्तंतेकडच्या रानांनी घट लाकडाची रुखावळ आसा.

हांगाच्या अटंग्या रानांनी शींव, बिबटे, हिप्पोपोटॅमस, चिंपांझी, गोरिला, हत्ती, रानरेडे, काळवीट, मेरू, सांबार ही मोनजात मेळटा. हांचे खेरीज ऑरबी ऑरिंक्स, एलंड, बुशबक हे जातीचीं हरणां आनी जिराफ ही मोनजात खूब प्रमाणांत आसा. काबारेगा, रुवेनझोरी आनी किडेपो हीं देशांतलीं तीन व्हड शिकारेचीं राश्ट्रीय उद्यानां. तातूंत पाणघोडे, कुरंग, मानगें, हत्ती, झेब्रा, हरणां, गेंडो ही मोनजात व्हडा प्रमाणांत आसा. देशाच्या नैर्ऋत्य भागांत गोरिल्ला अभयारण्य आसा. हांगा मेळपी सवण्यांमदीं क्रेन, बुलबूल, बीव्हर, कावळो, बकें, खाटीक, गिनी फावल, पारवे, हॉर्नबील, किरकिरो, कायट हांचो आस्पाव जाता.

**इतिहास आनी राजकीय स्थिती :** युगांडाच्या आदीम इतिहासाची थोडीभोव म्हायती पुरातत्त्वीय अवशेशांवयल्यान मेळटा. इ. स. ११०० च्या सुमाराक अस्तंतेकडच्यान बांटू भाशीक लोक येवन युगांडाच्या नैर्ऋत्य भागांत रावपाक लागले. उपरांत इथिओपियांतल्या हिमा स्थलांतरितांनी स्थापीत केल्ल्या क्वेझी राज्यांनी भरसून गेले. १५००च्या सुमाराक आग्नेय सुदानांतल्या लुओ लोकांनी क्वेझी राज्यांचेर जैत मेळोवन बुगांडा, बुन्योरा आनी अंकोली ह्या नव्या राज्यांची स्थापणूक केली. उपरांत लुओ लोकांनी उत्तर युगांडा आपल्या शेकातळा हाडलें. लंगो आनी टेसो लोक सतराव्या शेंकड्यांत युगांडांत पावले. सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांमदीं बुन्योरा हें दक्षिण युगांडांतलें एक प्रभावी राज्य आशिल्लें. रवांडा आनी टांझानियेंतल्या कांय प्रदेशांचेरूय तांचो शेक आशिल्लो. अठराव्या शेंकड्यासावन बुगांडाच्या राज्यविस्ताराक सुरवात जाली. एकुणिसाव्या शेंकड्या मेरेन बुगांडान विक्टोरिया नायल न्हंयेसावन कागेरा न्हंयेमेरेनच्या प्रदेशाचेर आपलो शेक बसयलो. १८४०त हिंदी म्हासागरांतल्यान मुसलमान वेपारी युगांडांत पावले. १८६२त ब्रिटीश समन्वेशक जॉन हॅनींग स्पीक हो नायल न्हंयेचें उगमस्थान सोदपाच्या निमतान थंय पावलो. बुगांडांत पावपी तो पयलो युरोपी भोंवडेकार. जॉना उपरांत सर सॅम्युएल बेकर युगांडांत पावलो. ताणें थंयच्या एका तळयाक आल्बर्ट हें नांव दिलें. उपरांत क्रिस्तांव धर्माचो प्रसार करपाखातीर साबार मिशनरी थंय पावले. ह्या मिशनऱ्यांनी थंय आपआपले खाशेले पंगड तयार केले. ह्या पंगडांमदीं उपरांत वाद सुरू जालो. त्याच सुमाराक मुसलमान लोकूय थंय खूब प्रमाणांत पावले. क्रिस्तांव धर्माक आलाशिरो दिवपी युगांडाचो राजा मुटेसा हाका १८८४त मरण आयलें. ताचे उपरांत ताचो चलो ग्वांगा अधिकाराचेर येवन, ताणें क्रिस्तांव लोकांची सतवणूक सुरू केली. १८८८ त क्रिस्तांव आनी मुसलमान लोक एकठांय येवन तांणी ग्वांगा हाका सत्तेभायरो करून, ताचे सुवातेर ताचो भाव किवेका हाका अधिकाराचेर हाडलो. उपरांत म्हयन्याभितरूच मुसलमान लोकांनी किवेकाक धांवडावन ताचो भाव कामेला हाची नेमणूक केली. १८८९ त गांडा क्रिस्तांव आनी ब्रिटीश वेपाऱ्यांच्या आदारान ग्वांगा परत सत्तेर आयलो. त्या वर्सा जर्मन वसणूककार थंय पावले. उपरांत बुगांडा आनी जर्मनी हांचेमदीं इश्टागतीची कबलात जाली. बुगांडांत जर्मनीच्या वाडट्या प्रभावाक भियेवन ग्रेट ब्रिटनान आपल्या थंयच्या हक्कांक धरून जर्मनीकडेन कबलात केली. उपरांत थंय इंपीरियल ब्रिटीश इस्ट आफ्रिका कंपनीचें कार्य सुरू जालें. १८९४त ग्रेट ब्रिटनान चडशें बुगांडा हें आपलें रक्षीत राज्य केलें. सुरवेक ब्रिटीश अधिकारी बुगांडांतल्यानूच युगांडाचो राज्यकारभार चलयताले. ब्रिटिशांच्या वाडट्या प्रभावाक जेन्ना ग्वांगान विरोध करपाक सुरवात केल्ली तेन्ना ब्रिटीश अधिकाऱ्यांनी ताका सत्तेभायरो करून, ताचे सुवातेर ताचो चलो दाउदी च्वा हाका सत्तेर हाडलो. १८९० ते १९१८ ह्या तेंपार ब्रिटिशांनी युगांडाकडेन वेगवेगळयो कबलाती करून आनी बळग्याचो वापर करून युगांडाच्या हेरूय प्रदेशांनी आपल्या राज्याचो विस्तार केलो. १९००त बुगांडाकडेन कबलात करून ब्रिटिशांनी तांकां कांय प्रमाणांत स्वायत्तताय दिली. उपरांत ब्रिटिशांनी वेगवेगळया

कारणांवयल्यान बुगांडाक स्वातंत्र्य दिवपाक विरोध दाखयलो. १९२१ त ह्या रखीत प्रदेशाखातीर विधान परिशदेची स्थापणूक केली. १९५० उपरांत परिशदेंतल्यो कांय सुवाती आफ्रिकी लोकांखातीर राखून दवरल्यो. ९ ऑक्टोबर १९६२ दिसा युगांडा स्वतंत्र जालो. तेन्ना बुगांडानूय आपल्या स्वतंत्र स्वायत्त राज्याची मागणी केल्ली. मिल्टन ओबोटे हो युगांडा पिपल्स काँग्रेस पक्षाचो फुडारी स्वतंत्र युगांडाचो पयलो प्रधानमंत्री जालो. १९६३ त युगांडा प्रजासत्ताकाची स्थापना जावन बुगांडाचो राजा दुसरो मुटेसा हाका पयलो राश्ट्राध्यक्ष म्हणून वेंचून काडलो. सुरवेच्या काळांत युगांडा शासन आनी बुगांडा हांचेमदीं बरेच वाद निर्माण जाले. १९६६त ओबोटेच्या फुडारपणाखाला नवी राज्यघटना तयार करून बुगांडांत केंद्र शासनाची सत्ता हाडली. उपरांत युगांडा सैन्यान राजाचो वाडो हातासून मुटेसाक धांवडावन घालो. १९६७त देशान नवें संविधान आपणायलें. २५ जानेवारी १९७१ दिसा आबोटे परदेशी भोंवडेर आसतना मेजर जनरल इदी अमीन हाणें लश्करी कारवाय करून ओबोटे हाका काडून उडयलो. १७ मार्च १९७१ दिसा दुसऱ्या युगांडा प्रजासत्ताकाची स्थापना करून अमीन आपूण राश्ट्राध्यक्ष जालो. सुरवेच्या तेंपार ताका विरोध जालो. पूण अमीनाक सबंद देशभर आपलो शेक बसोवपाक रोखडेंच यश आयलें. १९७१त अर्थीक सुदारणा घडोवन हाडपाखातीर ताणें युगांडाचे नागरीक नाशिल्ल्या सुमार साठ हजार लोकांक धांवडावन घाले. १९७१ ते १९७३ मेरेन शीम प्रस्नावयल्यान युगांडा आनी टाझानिया हांचेमदीं वाद चलतालो. १९७८त टांझानियेन युगांडाचेर धुरी घालून कांपाला शाराचेर जैत मेळयलें. युगांडा हारपाच्या मार्गार आसा तें जाणून अमीन लिबियेंत पळून गेलो. एप्रिल १९७९त तात्पुरतें शासन स्थापीत करून युसूफ लुले हाका राश्ट्राध्यक्ष म्हणून वेंचून काडलो. ताचे उपरांत गॉडफ्री हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९८०त जाल्ले भौशिक वेंचणुकेंत युगांडा पिपल्स कॉंग्रेस पक्षाक भोवमत मेळून अपोलो मिल्टन ओबोटे हो परत राश्ट्राध्यक्ष जालो. पूण २५ जुलय १९८५ दिसा लॅफ्टनंट जनरल टिटो ओकेल्लो हाणें लश्करी कारवाय करून ओबोटे हाका काडून उडयलो. २९ जुलय दिसा टिटो आपूण अध्यक्ष जालो. पूण योवरी मुसेवेनी हाच्या फुडारपणाखाल नॅशनल रसिस्टन्स आर्मीन ताका विरोध केलो. उपरांत १७ डिसेंबर १९५८ त नॅशनल आर्मी आनी सरकारी फौज हांचेभितर झूजबंदी करार जावन योवरी मुसेवेनी हो अध्यक्ष जालो.

**अर्थवेवस्था :** युगांडाचो आस्पाव विकासशील देशांमदीं जाता. देशाची अर्थवेवस्था मुखेलपणान शेतवडीचेर आदारल्या. देशांतले सुमार ९०% लोक शेतवडींत वावुरतात. पूण पिकां काडपाची पद्दत आयज लेगीत पारंपारीक आसा. देशाचे वट्ट भुंयेंतली सुमार ३०% भूंय शेतवडीखाल आसा. काफी आनी कापूस हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. काफी उत्पन्नांत युगांडाचो आफ्रिका खंडांत पयलो क्रमांक लागता. रोबस्टा आनी अरेबिका अशा दोनूय प्रकारच्या काफयांचें उत्पादन हांगा घेतात. केळीं, टॅपिऑका, नाचणे,कणंगां हीं देशांतलीं मुखेल खाद्यपिकां, जाल्यार काफी, ऊंस, तंबाकू,च्या, कापूस हीं मुखेल नगदी पिकां. बटाट, कड्डण, मको, जोंधळो, भिकणां, गंव, तांदूळ हींय हांगाचीं म्हत्वाचीं पिकां. देशांतल्या पशूधनांत गोरवां, मेंढरां, बोकडां, दुकर, गाढव, कुकडां हांचो आस्पाव जाता. मांस आनी दूद वेवसाय ल्हव ल्हव वाडत आसात. नुस्तेमारीचोय वेवसाय नेटान चलता. देशाच्या वट्ट उत्पन्नांत रानाचे येणावळीचो वांटो म्हत्वाचो आसा. देशांत खनिजांचे सांठे उणें आसून तांब्याच्या उत्पादनाक म्हत्व आसा. जलविद्युत्‌शक्ती खूब प्रमाणांत निर्माण जाता आनी शेजारच्या देशांकूय तिची पुरवण करतात. देशांतले चडशे कारखाने शेतकी उत्पादनां संबंदीत आसात. कापूस, काफी, च्या, तंबाकू, ऊंस हांचेर प्रक्रिया करपी कारखाने चड आसात. सिगरेट, तंबाकू, लुगट, शाबू, शिमीट हेय उद्देग नेटान चलतात. जींजा, कांपाला, टोरोरो हीं देशांतलीं मुखेल उद्देगीक केंद्रां. कांपाला हें देशांतलें मुखेल वेपारी केंद्र. निर्यात उत्पन्नांत काफयेचो वांटो सगळयांत चड म्हळयार ९०% आसता. काफये भायर कापूस, तांबें, च्या, गोरवांची कात हांचीय निर्यात जाता. तशेंच कागद, लुगट, लोखण, खनीज तेल, रसायनां, धान्य, यंत्रां, गाडयो आनी तांचे मेकळे भाग हांची युगांडा आयात करता. 'बँक ऑफ युगांडा' ही देशाची मध्यवर्ती बँक आनी 'युगांडा कमर्शिअल बँक' ही शासकीय बँक. युगांडा शिलींग हें देशाचें अधिकृत चलन.

**लोक आनी समाजजीण :** बुगांडा वंशाचे लोक हो देशांतलो सगळयांत व्हड वांशीक पुंगड. व्हिक्टोरिया तळयाच्या उत्तर देगांच्या प्रदेशांनी ते चड प्रमाणांत रावतात. थंयच्या लोकांचें वेगळेपण तांचे भाशेवयल्यान करूं येता. ते नदरेन बांतू, नायलॉटीक आनी नायलो - हॅमायट हे तीन मुखेल भाशीक गट. हांचेभायर बुन्योरा, बान्यनकोली, बोटोरा, बासोंगा आनी कारामोजाँग ह्यो मुखेल जमाती. युरोपी आनी अरब लोकूय कांय प्रमाणांत थंय आसात. देशाचे वट्ट लोकसंख्येंत क्रिस्तांव धर्माचे लोक ६३%, तातुंतले ३३ रोमन कॅथलीक आनी ३०% प्रॉटेस्टंट पंथी आसात. मुसलमानांची संख्या ६% आनी उरिल्ल्या लोकांमदीं पारंपारीक आफ्रिकी लोकांचो आस्पाव जाता. आफ्रिकी लोक चडशे देशाच्या उत्तर आनी अस्तंत भागांनी रावतात.

इंग्लीश ही देशाची अधिकृत भास. हेर थळाव्या भाशांनी लगांडा, नायलॉटीक, स्वाहिली हांचो आस्पाव जाता. शिक्षणीक सुविधांची पुरवण करप ही केंद्र आनी थळाव्या शासनाची जापसालदारकी. कांपाला शारांत मॅकरेरे विद्यापीठ आसा. तातूंत कला, शास्त्र, कृषी, वैजकी शिक्षण, पशूवैजक, कायदो आनी हेर उच्च शिक्षणाची वेवस्था आसा. पूण उंचेलें शिक्षण घेवपाखातीर खूबशे विद्यार्थी परदेशांनी वतात. वेगवेगळया ललीत कलांक उर्बा दिवपाखातीर, तशेंच चित्रकार,

मूर्तिकार, नक्षीकाम करपी कला शिक्षक हांकां प्रशिक्षण दिवपाचे नदरेन मॅकरेरे ललीत कला विद्यालयाची स्थापना केल्या. तशेंच नाच, संगीत, नाट्य हांकां उर्बा दिवपावातीर शासनान सामुहीक विकास आनी संस्कृती खातीं उबारल्यांत. गांडा लोकांचे बाकीसिंबा आनी 'नांकासा' नाच अंकोली लोकांचे 'ब्वोला' आनी जिंगर्डिंग नाच तशेंच बुन्योरो आनी टोरो जमातींतल्या लोकांचो 'ल्यून्येगे' नाच चड प्रसिद्द आसात.

कांपाला हें देशाचें राजपाटण तशेंच थंयचें व्हड शार. जींजा, मासाका, एम्बाला, एम्बारारा आनी गल् हीं देशांतलीं हेर व्हड शारां.

- कों. वि. सं. मं.

**युगोस्लाविया :** (फॅडरल रिपब्लिक ऑफ युगोस्लाविया). एक युरोपी देश. सद्या युगोस्लाविया हें सर्बिया आनी मोंटेनॅग्रो ह्या प्रजासत्ताकांचें तशेंच कोसोवो आनी वोज्वोदीना ह्या स्वायत्तासावन तयार जाल्लें संघराज्य. क्षेत्रफळ १,०२,१७३ चौ. किमी. लोकसंख्या १०.९ दशलक्ष (१९९१). ह्या देशाक हंगेरी, रुमानिया, बल्गेरिया, ग्रीस, आल्बेनिया, क्रोशिया ह्या देशांनी आनी ॲड्रिॲटीक दर्यान रेवडायला. बेलग्रेड शार हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे तीन वांटे केल्यात. ते अशे– १) दर्यादिगेचो प्रदेश, २) देशाभितरलो ऊंच प्रदेश आनी ३) पॅनोनियन मळांचो प्रदेश. ॲड्रिॲटीक दर्यालागशिल्ली अशीर दर्यादिग मुखेलपणान फातराळ आसा. दर्यालागशिल्ल्या सशेंवयर जुंव्यांचो तातूंत आस्पाव जाता. दर्यादिगांनी आशिल्ल्या पर्वतांची उंचाय कांयकडेन खूब चड आसून, तांची देंवतीय खूब खर आसा. दर्यादिगांनी कांयकडेन सैमीक बंदरां आसात.

देशाभितर आशिल्ल्या ऊंच प्रदेशांत वायव्य - आग्नेय दिशांनी साबार पर्वतांवळी पातळल्यात. वायव्येक ज्युल्यन आल्प्स पर्वत आसून, तातुंतलें ट्रिस्लाव्ह हें देशांतलें सगळ्यांत ऊंच तेमूक. त्या भागांतली प्लोक्ना, बोबोटोव्ह, डॅरेव्हिका, रुजेन आनी पोलिस्टर हीं तेमकां म्हत्वाचीं.

पॅनोनियन मळांचो प्रदेश देशाच्या उत्तर मध्य भागांत आसा. स्लोव्हीनियेच्या उदेंत भागासावन ते उदेंतेकडेन रुमानियेचे शिमेमेरेन हो मळांचो प्रदेश पातळ्ळा. हो चडसो सपाट प्रदेश आसा. ह्या भागांतल्यान देशांतली मुखेल न्हंय डॅन्यूब आनी सव्हा, द्रावा आनी टिस हे तिचे फांटे. नेंरट्वा, निसावा आनी वादेर ह्यो देशांतल्यो म्हत्वाच्यो हेर न्हंयो. ह्यो चडशो न्हंयो काळ्या दर्याक वचून मेळटात.

**हवामान, वनस्पत आनी मोनजात :** भूंयरचणुकेप्रमाण हवामानांत फरक जाणवता. दर्यादिगांनी भूमध्यसागरी प्रकारचें, पर्वतीय प्रदेशांनी शितळ भूखंडीय आनी पॅनोनियन मळांच्या भागांत भूखंडीय प्रकारचें हवामान जाणवता. देशाच्या मध्य, उत्तर आनी ईशान्येकडेन शियाळो खूब कडक आनी गीम ऊबदिणो आसता. भूखंडीय हवामानाच्या प्रदेशांत शियाळ्यांत सरासरी तापमान १° सॅ. जाल्यार गिमाच्या दिसांनी तें २४° ते २७° सॅ. मेरेन वयर वता. भूमध्य सागरी हवामान प्रदेशांत गीम उबाळ आनी सुको जाल्यार शियाळो सौम्य आसता. भूखंडीय प्रदेशांत शियाळ्यांत जानेवारींत तापमान सादारणपणान ७° सॅ. जाल्यार गिमांत जुलय म्हयन्यांत ते २४°सॅमी. मेरेन वयर वता. दर्यादिगांनी वसुकीं सरासरी पावस ६५ ते ९० सेंमी., मळांच्या प्रदेशांनी ६५ ते १०५ सेंमी. जाल्यार भितरल्या दोंगराळ प्रदेशांनी २५० सेंमी. इतलो पडटा.

देशाचो सुमार तिसरो वांटो रानांखाला आसून, तातूंत वेगवेगळ्या प्रकारची सुमार पांच हजारांवयर वनस्पत आसा. पर्वतांतल्या ऊंच भागांनी पाय्न, फर आनी जुनिपर रूख, जाल्यार हेरकडेन बीच, ओक, हॉर्नबीम हे पानझडी रूख आसात. हांगाच्या रानांनी हरण, वांस्वेल, आयबॅक्स, काळवीट, रानदुकर, सोंसो, कोलो, रानमाजर आनी हेर मोनजात मेळटा. सवण्यांभितर गरूड, तितर, हॉक ह्या जातींचीं सवणीं म्हत्वाचीं आसात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** तीन हजार वर्सांपयलीं थंय इलिरी आनी थ्रेसी लोकांचो राबितो आशिल्लो हें सिद्ध जालां. इ. स. प. ६००त ग्रीक लोकांनी ॲड्रिॲटीक दर्यादिगांनी वसणूक उबारिल्ली. उपरांत केल्टिक लोक रावपाक लागले. इ.स.प. ३००च्या सुमाराक रोमी लोकांनी बाल्कन द्विपकल्पांत घुरयो घालून उपरांत तो सबंद द्विपकल्प आपल्या शेकातळा व्हेलो.

इ. स. सव्या शेंकड्यांत पोलंड आनी रशिया भागांतल्यान स्थलांतर केल्ल्या स्लाव लोकांनी बाल्कन द्विपकल्पांत आपलो राबितो केलो. तांकां दक्षिणी स्लाव म्हण्टात. तातुंतल्या क्रोएटांनी क्रोएशिया, सर्ब लोकांनी सर्बिया अशा दर एका पंगडान आपआपल्या स्वतंत्र राज्याची स्थापणूक केली. आठव्या आनी णवव्या शेंकड्यांमदीं हांगाच्या स्लाव लोकांभितर फूट पडून ते रोमन कॅथलीक वा ऑर्थोडॉक्स क्रिस्तांव जाले. उपरांत दक्षिण बाल्कन भागांतल्यो जमाती बायझंटायन साम्राज्याखाला जाल्यार उत्तरेकडच्यो जमाती फ्रँक राजवटीखाला गेल्यो. मुखार बाराव्या शेंकड्यांत दक्षिण भागांतल्या लोकांवयलो बायझंटायनांचो शेक उणो जालो. तशी सर्ब लोकांनी स्वतंत्र एकसत्ताक राज्याची स्थापणूक केली. चवदाव्या शेंकड्याच्या मध्याक सर्बिया हें बळिश्ट राज्य आशिल्लें. पंदराव्या शेंकड्यामेरेन दक्षिण स्लाव लोकांच्या चडशा सगळ्या प्रदेशांचेर परकी लोकांनी आपलो शेक बसयल्लो.

दक्षिणेकडल्या स्लाव लोकांनी स्वातंत्र्य चळवळीचे दिकेन एकुणिसाव्या शेंकड्यांत पावलां उबारलीं. १८०९ ते १८१५ ह्या तेंपार फ्रांसाचो सम्राट नेपोलियन पयलो हाच्या फुडारपणाखाला स्लोवेनीया आनी क्रोएशिया राज्यां एकठांय आयलीं. १८७८त सर्बियेन तुर्कांकडच्यान

स्वातंत्र्य मेळयलें. पूण ऑस्ट्रिया - हंगेरीन स्लोवेनिया आनी क्रोएशियेक स्वातंत्र्य दिलेंना. स्वातंत्र्य चळवळीच्या काळांत राष्ट्रवादी लोकांनी बाल्कन प्रदेशांत आपलें धुमशेण चालूच दवरिल्लें. त्याच तेंपार सर्बियन क्रांतीकारी गटांतल्या एका वांगड्यान ऑस्ट्रियी आर्चड्यूक फ्रांन्सिस फर्डिनांड हाची हत्या केली. हे घडणुकेक सर्बियेक जापसालदार धरून ऑस्ट्रियेन तांचेआड झूज उबारलें. पयल्या म्हाझुजाचें हें एक मुखेल कारण समजप जाता. ऑस्ट्रिया हंगेरीचेर पयल्या म्हाझुजांत हार पडले उपरांत दक्षिण स्लावांनी आपल्या स्वातंत्र्याची घोशणा केली.

पयलें झूज काबार जाले उपरांत डिसेंबर १९१९त सर्बियन राजा पिटर पयलो हाच्या फुडारपणाखाला 'किंग्डम ऑफ सर्ब्सद, क्रोएट्स अॅण्ड स्लोवेनीज' अशा स्वतंत्र देशाची स्थापना केली. १९२१त राजा पिटर पयलो हाच्या मरणाउपरांत ताचो चलो पयलो अलेक्झांडर सत्तेर आयलो. ताणें संविधान आनी घटकराज्यांची आदली विभागणी रद्द करून 'युगोस्लाविया' (दक्षिणी स्लाव लोकांची भूंय) ह्या नव्या देशाची स्थापना केली. सगळया राजकीय पक्षांचेर कायद्यान बंदी घालून पुराय सत्ता आपल्या हातांत घेतली. हे घडणुकेक राष्ट्रवादी लोकांनी खर विरोध करून १९३४त फ्रांसांतल्या मार्से शारांत आलेक्झांडराची हत्या केली. आलेक्झांडरा उपरांत ताचो बापोलभाव पॉल सत्तेर आयलो. ताणेंय आलेक्झांडराचीच राजनिती आपणायिल्ल्यान १९४१ त पॉलाकूय सत्तेभायरो करून राजा पिटर दुसरो हाका सत्तेर हाडलो. पूण रोखडीच जर्मनीन युगोस्लावियेचेर घुरी घालून ताची विभागणी केली. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत लाखांनी युगोस्लाव लोक मेले. उपरांत देशांत गनिमी सर्बियन सैन्य आनी कम्युनिस्ट पंगडाभितर यादवी झूज पेटलें. मार्शल टिटो हो कम्युनिस्ट पंगडाचो मुखेली आशिल्लो. टिटोन युगोस्लावियेंत साम्यवादी शासन हाडपाचो यत्न केल्ल्यान भौसाकडल्यान ताका फाटबळ मेळ्ळें. ऑक्टोबर १९४४ त सोविएत लश्करान बॅलग्रेड मुक्त करून, युगोस्लावियेची पुराय सत्ता टिटोच्या हातांत दिली. २९ नोव्हेंबर १९४५ दिसा सद्याचें प्रजासत्ताक आनी प्रांतांचे मेळून 'फॅडरल पिपल्स रिपब्लिक ऑफ युगोस्लाविया' ची स्थापना केली. अशे तरेन देशांतली राजसत्ता नश्ट जाली. टिटोन हेर पक्ष बेकायदेशीर थरोवन फकत कम्युनिस्ट पक्षांक राजकीय दर्जो दिलो. ३१ जानेवारी १९४६च्या संविधानाप्रमाण स प्रजासत्ताकांचें मेळून युगोस्लाविया संघीय प्रजासत्ताकाची स्थापना केली. युगोस्लाविया आनी सोविएत रशिया हांचेमदीं इश्टागतीची कबलात जाली. पूण टिटोन परराश्ट्र आनी अर्थीक धोरणांविशीं रशियेचें धोरण आपणावपाक न्हयकार दिलो. हाका लागून १९४८ त स्टालिनान युगोस्लावियेवांगडचे संबंद तोडले. उपरांत युगोस्लावियेन लश्करी आनी अर्थीक आदाराखातीर अमेरिका आनी हेर अस्तंती देशांकडसून मदत घेतली. पूण हें पावल उखलतना टिटोन आपलो साम्यवादी समाजरचणुकेचो विकास चालूच दवरलो. स्टालिनाच्या मरणाउपरांत दोन वर्सांनी रशियेवांगडचे संबंद परत जोडले. शीतझुजांत टिटो तटस्थ रावलो. ७ एप्रिल १९६३ च्या नव्या संविधानाप्रमाण स प्रजासत्ताकां आनी दोन प्रांत मेळून युगोस्लाविया समाजवादी संघीय प्रजासत्ताकाची स्थापना केली. उपरांत संविधानांत दोनदां बदल करून प्रजासत्ताकांक चड स्वायत्तताय दिल्ली. पूण क्रोएटी लोकांक पुराय स्वातंत्र्य जाय आशिल्लें. हाका लागून तांणी टिटोच्या धोरणांक विरोध केलो. १९७० त टिटोन साबार क्रोएटी साम्यवादी मुखेल्यांक शासनांतल्यान धावंडावन घाले. १९८०त मार्शलाक मरण आयले उपरांत कम्युनिस्टांचो शेक ल्हव ल्हव उणो जावन १९९०त देशान लोकशाय पद्दत आपणायली. क्रोएटांनी आपलो दहशतवादी मार्ग चालूच दवरिल्लो. हाचो परिणाम म्हळयार जून १९९१त क्रोएशिया आनी स्लोवेनिया हांणी युगोस्लावियेपसून वेगळें जावन आपलें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. उपरांत वंशीक भेदांक लागून सुरवेक क्रोएशियेंत यादवी झूज पेटलें आनी ते उपरांत बॉस्नियेंत पावलें. ह्या झुजांत हजारांनी लोक मेले. १७ एप्रिल १९९२ दिसा सर्बिया आनी मोंटेनॅग्रो ह्या प्रजासत्ताकांनी मेळून फॅडरल रिपब्लीक ऑफ युगोस्लावियेची घोशणा केली.

यादवी झुजांत सर्बियेन बॉस्नियेंतल्या सर्बांक थंयच्या मुसलमानांआड झगडपाक आदार केल्लो. हाका लागून संयुक्त राश्ट्रांनी युगोस्लावियेचेर निर्बंद घालले. सप्टेंबर १९९२ त युगोस्लोव्हियेक जनरल अॅसॅब्लींतल्यान काडून उडयलो. ऑगस्ट १९९५त नाटो न सर्बांनी घेतिल्ल्या बॉस्नियाच्या प्रदेशाचेर हल्लो चडयलो. उपरांत सर्बियेन बॉस्नियेंतले सर्ब आनी मुसलमान हांचेमदीं मध्यस्थी करून शांतताय कबलात घडोवन हाडली.

**राज्यवेवस्था :** जोसफ ब्रोझ टिटो हाणें १९४५ वर्सा सावन युगोस्लावियेंत कम्युनिस्ट राजवट लागू केल्ली. उपरांत टिटोक १९८०त मरण येत सावन देशांत ताचोच शेक चलतालो. ताणें सोवियत युनियनासावन तटस्थ रावन युगोस्लावियेंत आपली स्वतंत्र कम्युनिस्ट पद्दत चलयली. उपरांत १९९० वर्सा मेरेन कम्युनिस्ट हो देशांतलो एकमेव पक्ष आसलो. पूण १९९०त हेर पक्षांवयली बंदी उबारून भौपक्षीय वेंचणूक घेवपांत आयली.

फॅडरल प्रेसिडेन्ट हो राश्ट्राचो मुखेली आसून, संसदेतल्या दोनूय घरांचे वांगडी ताका वेचून काडटात. झोरान लिलिक हो जून १९९३त युगोस्लावियेचो राश्ट्राध्यक्ष म्हूण बिनविरोध वेंचून आयलो. देशाची संयुक्त संसद ही 'चेंबर ऑफ द रिपब्लीक' आनी 'चेंबर ऑफ सिटीझन' अशी दोन घरांनी विभागल्या. चेंबर ऑफ द रिपब्लीक हातूंत ४० वांगडी आसून, तातुंतले २० वांगडी मॉंटेनेग्रो आनी सर्बिया

ह्या गणराज्यांतल्यान वेंचून काडटात. चँबर ऑफ सिटिझन हातूंत १३८ वांगडी आसतात.

**अर्थवेवस्था :** उद्देग धंद्याच्या मळार खूब उदरगत जाल्ली आसा. शेतवड हो देशाचो मुखेल वेवसाय. पिकां काडपाखातीर आधुनिक पद्दत आपणायिल्ल्यान मनीस बळाचो वापर उणो जायत चल्ला. मको, गंव, साकर, बीट, सातू, बटाट, तंबाखू, सूर्यफूल हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. फळफळावळींत सफरचंद, द्राक्षां, प्लम हांचो आस्पाव चड आसता. अलुबुखार, राय, तांदूळ हींय पिकां म्हत्वाचीं आसात. पशूधनाच्या मळारूय हो देश गिरेस्त आसा. पशुधनांत गोरवां, दुकर, मेंढरां, घोडे, कुकडां हांचो आस्पाव जाता. दूद आनी मास उत्पादन दिसानदीस वाडत आसा. मास, गोरवां, तांतयां आनी चामडें हांची निर्यात जाता. नुस्तेमारीय नेटान चलता, तेखातीर आधुनिक बोटींचो वापर जाता. रानांतल्यान मेळपी येणावळीचोय वांटो अर्थवेवस्थेक हातभार लायता.

देशाचे भुंयेत तरेकवार खनिजांचे सांठे खूब प्रमाणांत आसून शिंशें, क्रोम, अँटिमनी, बॉक्सायट, पारो, तांबें, जस्त आनी लोखण हांच्या उत्पादनांत युगोस्लाविया सबंद युरोपांत मुखार आसा. रुपें, मॅग्नेसायट, लिग्नायट, फातरी, कोळसो, खनीज तेल आनी सैमीक वायू हांचेय सांठे थंय मेळटात.

उद्देगीक नदरेन हो एक विकसीत देश. टिटोच्या काळांत उद्देगीक प्रकल्पांचें समाजीकरण केल्लें. उत्पादनाचो वेग वाडोवपाखातीर सुरवेक टिटोन रशियेकडच्यान आनी उपरांत अमेरिका आनी हेर अस्तंती देशांकडच्यान अर्थीक आदार घेतलो. १९५०-८० ह्या तेंपार खनीज तेल उत्पादन आनी प्रक्रिया, विद्युत् यंत्रसामुग्री, येरादारीचीं साधनां आनी रसायनां हातूंत खूब वाड जाली. हाका लागून १९८०त वट्ट राष्ट्रीय उत्पादनांत उद्देगीक उत्पादनाचो ४०% वांटो आशिल्लो. तिखें, तांबें, ॲल्युमिनियम, शिमीट, सारें, दूरचित्रवाणी संच, रेडिओ संच, ट्रॅक्टर, ट्रक, मोटारी, सुती लुगट हांचो देशाच्या मुखेल उद्देगांत आस्पाव जाता. भांडवली वस्तू, खनीज तेल, कच्चो म्हाल, धान्य, सारें हांची आयात जाता. जाल्यार विद्युत् यंत्रसामुग्री, येरादारीचीं साधनां, अभियांत्रिकी उत्पादनां, अन्न पदार्थ, रसायनां आनी चामडें हांची निर्यात जाता. दिनार हें युगोस्लावियेचें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारण :** रेल्वेमार्ग हें येरादारीचें म्हत्वाचें साधन. चडशा रेल्वेमार्गाचें विद्युतीकरण जाल्लें आसा. ॲड्रिॲटीक दर्यादिगेवयलो ॲड्रिॲटीक म्हामार्ग हो युरोपांतलो एक प्रसिद्द म्हामार्ग. युगोस्लाव ॲरलायन्सावरवीं देशाभितर आंतरराश्ट्रिय हवाई येरादारी करप जाता. बॅलग्रेड शारांत देशांतलो मुखेल आंतरराश्ट्रिय विमानतळ आसा. ज्येका, स्प्लिट, क्रोलेव्हो, बार, दुब्रॉवुनिक आनी कॉपेर हीं ॲड्रिॲटीक दर्यावयलीं मुखेल बंदरां. डॅन्युबे न्हंय हो देशाभितर जावपी उदका येरादारीचो मुखेल मार्ग आसून नॉवीसाट आनी बॅलग्रेड हीं ते न्हंयेवयलीं मुखेल बंदरां. साबा, टिस, द्रावा आनी बेचे ह्योय न्हंयो उदका येरादारीचे नदरेन म्हत्वाच्यो. युगोस्लाव प्रसारण संस्था ही रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी कार्यावळींचें प्रसारण करता.

**लोक आनी समाजजीण :** युगोस्लावियेंत विंगड विंगड लोकांचो राबितो आसा. सर्ब, क्रोएट, मुसलमान, स्लोवेनियी, मॅसिडोनियी, मौंटनीग्री हे देशांतले मुखेल पंगड हांचे खेरीज आल्बेनि, हंगेरि, रोमी आनी तुर्की ह्या लोकांचो अल्पसंख्येंत आस्पाव जाता. देशाचे वट्ट लोकसंख्येंत ऑर्थोडॉक्स क्रिस्तांव ३५%, रोमन कॅथलिक २६% आनी मुसलमान १०% आसात. उरिल्ले हेर धर्मीय आसात.

सर्बो - क्रोएशियन ही देशाची मुखेल भास. पूण सिरिलीक लिपीप्रमाण बरयतना सर्बियन पद्दत जाल्यार रोमी वर्णमाळेंत बरयतना क्रोशियन पद्दत आपणायतात. मॅसिडोनि आनी स्लोव्हियनं ह्यो हेर मुखेल भासो. ईवो आन्द्रिच, रँको मारींकोविटी, मीलवान जीलास, ईवॉन त्सान्कार हे देशांतले प्रसिद्द साहित्यिक. तातुंतल्या ईवो आन्द्रिच हाका १९६१ त नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळा. शिक्षणीक मळार खूब उदरगत जाल्ली आसून साक्षरतेचें प्रमाण ९२% वयर आसा. तंत्रीक, वेवसायीक, कारागिरी, शिक्षक-प्रशिक्षण, कला आनी हेर मळांवयलें शिक्षण घेवपाची वेवस्था देशांत आसा. बॅलग्रेड, झाग्रेब आनी ल्यूब्ल्याना हीं देशातलीं पोरनी प्रसिद्द विद्यापिठां.

बुद्दीबळ हो देशांतलो चड आवडीचो खेळ. देशांत सुमार ५५० बुद्धीबळ क्लब आनी तांचे सुमार ५०,००० खेळगडे वांगडी आसात. सॉकर, पेंवप, बॉडी बिल्डींग, बास्केटबॉल, हँडबॉल, वॉटरपोलो, टेबल टॅनीस ह्याय खेळांनी युगोस्लावियन लोक व्हडा उमेदीन वांटो घेतात. बॅलग्रेड, झाग्रेब, ल्यूब्ल्याना, बॉस्निया, सारायेव, स्कॉप्ये, टीटोग्राड, साट, नीस,स्प्लिट, ऑसियेक, मारीबॉर, बान्या लुका, क्रागुयेव्हाट्स आनी सुबॅतीत्सा हीं देशातलीं मुखेल शारां.

- कों. वि. सं. मं.

**युनो :** (पळेयात संयुक्त राश्ट्र संघटना).

**युफ्रेटीस :** अस्तंत आशियेंतली सगळ्यांत लांब न्हंय. तिची लांबाय २७०० किमी. आसा. अरबी भाशेंत तिका अल्-फरात जाल्यार तुर्की भाशेंत फिरात वा फ्रात हें नांव आसा. तुर्कस्तानाच्या मध्यउदेंत वाठारांतल्या दोंगरी कारास्यू (अस्तंत युक्रेटीस) आनी मुरातस्यू (उदेंत युफ्रेटीस) ह्या प्रवाहाच्या एलाझ हांगाच्या संगमापसूनच्या मुखावयल्या संयुक्त प्रवाहाक युफ्रेटीस म्हण्टात. तुर्कस्तानांतल्यान युफ्रेटीस सुरवेक दक्षिणेक सिरियेकडेन उपरांत सिरिया आनी इराक ह्या देशांतल्यान आग्नेयेक व्हांवत वचून बसऱ्याचे वयले वटेन कुर्ना

गांवांत ती टायग्रिसाक मेळटा. थंयच्यान तिचो संयुक्त प्रवाह शत् अल अरब ह्या नांवान वळखतात. त्याच नांवान तो इराणच्या आखाताक मेळटा. हे न्हंयेचें ४०% देगण तुर्कस्तानांत, १५% सिरियेंत आनी हेर इराकांत आसा.

न्हंयेचो सुरवेचो प्रवाह भरपूर पावस पडपी आनी हिमवृश्टी जावपी आर्मेनियन ह्या सड्याच्या वाठारांत आसा. जेराब्ल्यूसाक युफ्रेटीस तुर्कस्तानांतल्यान सिरियेंत वता आनी थंयच्या उत्तर-मध्य वाठारांतल्यान दक्षिणेवटेन व्हांवता. हांगाच्यानूच ती आग्नेयवाहिनी जावन सिरियेच्या उदेंत भागाकडेन व्हांवत वता. ह्याच भागांत मेडिनेंत अल् शाब (ताबाका) हे सुवातेर हे न्हंयेचेर रशियाच्या आदारान ७०मी. उंचायेचें धरण बांदलां. धरणाचे सकयले वटेन बलीक आनी खाबूर ह्यो दोन मुखेल उपन्हंयो युफ्रेटीसाक येवन मेळटात. न्हंयेचो दुसरो पांवडो सिरियेंत येता. हांगा ही न्हंय उदका पुरवणेखातीर व्हडा प्रमाणांत उपेगाक पडटा.

आबू केमेलाक युफ्रेटीस इराकांत प्रवेश करता आनी थंयच्या मध्यभागांतल्यान टायग्रिसाचे अस्तंतेकडल्यान समांतर अशी आग्नेय दिशेन व्हांवन वता आनी बसऱ्याचे उत्तरेक टायग्रिसाक मेळटा. उत्तर इराकांत कांयकडेन जुंव्यांची निर्मिती जाल्ली आसून, कांय जुंव्यांचेर पुर्विल्ल्या किल्ल्यांचे अवशेश मेळटात. आबू केमल ते हिट हांचे मदल्या न्हंये प्रवासांत दोन जुंवे तयार जाल्ले आसून तांचेर आना आनी रावा हीं दोन ल्हान नगरां तयार जाल्यांत. इराकांतल्या मुसायिबाचे दक्षिणेक युफ्रेटीस न्हंय हिंदीया आनी हिल्ला ह्या दोन मुखेल फांट्यांनी विभागिल्ली आसा. हातुंतले हिंदीया न्हंयेचेर खारीज बांदलां (१९०८). टायग्रिसाक मेळचेआदीं युफ्रेटीसाक जायते फांटे फुटिल्ले दिसतात. ह्या भागांत दलदलीचे वाठार आनी तळीं निर्माण जाल्लीं आसात. टायग्रीस न्हंयेदेगेवयलें कुट गांवचें गाराफ खारीज दक्षिणेक युफ्रेटीसाक येवन मेळटा. ताकालागून ह्या खारजान टायग्रीस - युफ्रेटीस ह्यो दोनूय न्हंयो एकामेकांक जोडल्यात. टायग्रीस - युफ्रेटीस हांच्या संगमां उपरांतचो संयुक्त प्रवाह शत् अल अरब ह्या नांवान इराणच्या आखाताक मेळटा. न्हंयेचे उजवे देगेर बसरा हें इराकचें जाल्यार दावे देगेर खुर्रमशार हें इराणाचें मुखेल बंदर आसा. हाचेभायर आबादान (इराण) आनी अल् फाऊ (इराक) हीं शत अल अरब न्हंयेवयलीं मुखेल बंदरां. सिरियेंतली अर् राका, दाउर अझ झॉर, मेयडीन आनी आबू केमेल जाल्यार इराकांतलीं हिट, रामादी, हिल्ला, सॅमॅवा, नासिरिया, बसरा हीं युफ्रेटीसचे देगेवयलीं मुखेल शारां.

न्हंयेदेगणाच्या वयल्या भागांत शिंयाळ्यांत पडपी पावस आनी हिमवृश्टी हांकां लागून नोव्हेंबर ते मार्च ह्या काळांत, जाल्यार वसंत ऋतूंत एप्रिल - मे म्हयन्यांत बर्फ विरगळून हे न्हंयेक हुंवार येता. न्हंयेच्या वयल्या भागांत सरासरी पावस ५१ सेंमी. तशेंच सिरिया आनी इराकांत २५ सेंमी. परसूय उणो पावस पडटा.

शेती हो युफ्रेटीसच्या देगणांतलो मुखेल वेवसाय. ॲनाचे उत्तरेक द्राक्षां, ऑलिव्ह, तंबाकू आनी समशितोश्ण कटिबंधीय फळांचें उत्पादन जाता. दक्षिण वाठारांत वेगवेगळया उदकापुरवण पद्दतींचो उपेग करून गंव, सातू, बारीक तृणधान्यां, तांदूळ, खाजूर हांचें उत्पादन घेतात. ह्या देगणांत ताडाचींय झाडां खूब प्रमाणांत आसात. न्हंयेन व्हांवोवन हाडिल्लो गाळ मेसोपोटेमियन मैदानांत एकठांय जावन थंय शेताक फावोशी सुपीक जमीन तयार जाल्ली आसा. उश्ण गीम आनी उणो पावस हांकांलागून मैदानी वाठारांतली शेती न्हंयेपसून केल्ले उदकापुरवणेचेर आदारून आसता. शत् अल् अरब न्हंयेदेगेवयलो ५ किमी. मेरेनचो पटो शेतीचे नदरेन म्हत्वाचो आसून त्या भागाचेर मर्यादीत वसणुको आसात. युफ्रेटीसचो निंमणो वाठार आनी शत अल् अरब देगण खाजूर उत्पादनाखातीर म्हत्वाचें मानलां. तशेंच, हांगासल्ल्यानूच संवसारभर खाजराची निर्यात करतात.

- कों. वि. सं . मं.

## युरिपिडीझ : (सुमार ४८० - ४०६ इ. स. आदीं).

एक व्हड ग्रीसी नाटककार. सालामिस गांवांत ताच्या घराब्याची मालमत्ता आशिल्ली. थंयच ताणें आपली पुराय जीण सारली. थंयचे एके व्हांवरेंत बसून तो बरप वाचप करतालो. ग्रीसी तत्त्वगिन्यानी अनॅक्सॅगोरस आनी संगीतकार टिमोथीअस हे ताचे इश्ट आशिल्ले. तो व्यायामपटू आनी चित्रकार आशिल्लो अशीय म्हायती मेळटा. इ. स. आदीं ४०८ उपरांत मॅसेडोनियाचो राजा आर्किलेअस हाच्या दरबारांत युरिपिडीझ आशिल्लो आनी मॅसेडोनियेकूच ताका मरण आयलें.

ताणें चडशो शोकांतिका बरयल्ल्यो. ताचें पयलें नाटक 'द डॉटर ऑफ पोलिअस (इ. स. आदीं ४५५). हाचे भायर ताणें ९२ नाटकां बरयलीं अशें सांगतात. पूण सदद्या तातीं अठराच नाटकां उपलब्ध आसात. तीं नाटकां अशीं - १) अल्सेस्टिस (इ. स. प. ४३८) २) मीडीअ (इ. स. प. ४३१) ३) हिपॉलिटस (इ.स. प. ४२८) ४) ट्रोजन विमॅन (इ. स. प. ४१५) ५) हेलन (इ.स.प. ४१२) ६) ओरेटीझ (इ. स. प. ४०८) ७) इफिजिनिआ ॲट औलिस (इ.स. प. ४०५) ८) बॅकी (इ.स. प. ४०५) ९) ॲंड्रॉमकी १०) चिल्ड्रन ऑफ हीरॅक्लीझ ११) हेक्युबा १२) सप्लायंट्स १३) इलॅक्ट्रा १४) मॅडनॅस ऑफ हीरॅक्लीझ १५) इफिजिनिआ इन टोरिस १६) आयन १७) द फिनिशियन मेडन्स १८) सायक्लोप्स.



ताच्या ह्या नाटकांवरवीं ताणें बायलो, धर्म आनी झूज ह्या विशयांचेर चड उजवाड घाला. ताची नदर वास्तववादी आसा. ताचे संवाद सदच्या वेव्हारांतल्या संवादांवरी सादे, सोंपे पूण परिणामकारक अशे आसात. त्या काळांतल्या समाजीक, राजकीय आनी तत्त्वगिन्यानी विशयांची ताका आवड

आशिल्ली. कर्तव्य आनी मोग, बुद्धी आनी भावना, निरपवाद मुल्यां आनी सापेक्ष मुल्यां, मुल्यां आनी प्रत्यक्ष आचरण हांचे मदलो संघर्श हो युरिपिडीझच्या नाट्य जगताचो गाभो आशिल्लो. मानवी आशा आकांक्षांचें आकलन आनी मनशाक भोगपाक लागपी यातनांविशींची सहानुभूती हें युरिपिडीझचें खाशेलपण. ताणें आपल्या नाटकांत आरंभकाचो (प्रोलॉग्स) बरोच उपेग करून घेतिल्लो दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**युरी, हॅरल्ड क्लेटन** : (जल्म : २९ एप्रिल १८९३ वॉकरटन (इंडियाना), अमेरिका; मरणः ५ जानेवारी १९८१, ला हॉइया, कॅलिफोर्निया).

अमेरिकन रसायनशास्त्रज्ञ. ड्युटेरियमाच्या सोदाक लागून ताका १९३४ वर्साचो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो.

युरीचें शिक्षण वॉटरलू इंडियानांत जालें. १९११ ते १९१४ ह्या काळांत ताणें थंयच शिक्षक म्हणून काम केलें. १९१७ वर्सा ताणें प्राणिशास्त्रांत पदवी मेळयली. उपरांत दोन वर्सां ताणें झुजासामुग्री तयार करपाच्या कारखान्यांत आनी ताचे फुडलीं दोन वर्सां म्हळयार १९१९ ते १९२१ मॉटॅना विद्यापिठांत अध्यापनाचें काम केलें. कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत जी. एन्. लूइस हाच्या मार्गदर्शनाखाला संशोधन करून ताणें १९२३ वर्सा रसायनशास्त्रांतली डॉक्टरेट पदवी घेतली. उपरांत एक वर्सभर नील्स बोर हाचेवांगडा कोपॅनहायनाक संशोधन करतकच १९२४ ते १९२९ ह्या पांच वर्सांच्या काळांत ताणें अमेरिकेंतल्या जॉन हॉप्किन्स विद्यापिठांत रसायनशास्त्राचें अध्यापन केलें. तो १९२९-४५ ह्या काळांत कोलंबियेक, उपरांत १९४५ ते १९५८ ह्या काळांत शिकागोंत आनी ताचे उपरांत कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत प्राध्यापक आशिल्लो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत तो कोलंबिया विद्यापिठांतल्या एस. ए. एम. प्रयोगशाळेचो संचालक आशिल्लो. १९३१ वर्सा ताणें आपल्या वांगड्यांच्या आदारान ड्युटेरियमाचो सोद लायलो आनी ताच्या गूणधर्मांचो अभ्यास केलो. ड्यूटेरियम आनी जड उदक हांचो अणुबाँब तयार करपाक खूब उपेग जाता. ड्युटेरियमाचो शांतीकायेच्या वावराखातीर उपेग केल्यार ताचेपसून तयार जावपी उर्जा संवसाराक अब्जांनी वर्सांक पुरो अशें ताचें मत आशिल्लें. मूलद्रव्यांच्या समस्थानिकांच्या (अणुकेंद्रांतली प्रोटॉनांची संख्या) तोच पूण वेगवेगळो अणुभार आशिल्ल्या पांच मूलद्रव्यांच्या रसायनीक गूणधर्मांतल्या फरका वयल्यान युरी हाणें जुरासिक (सु. १८.५ ते १३.५ कोटी वर्सांपयलींच्या) काळांतल्या धर्तरेवयल्या म्हासागरांचें तेन्नाचें तापमान काडपाची पद्दत सोदून काडली. ह्या अभ्यासाक लागून तो भूयरसायनशास्त्राकडेन गेलो आनी ताणें मूलद्रव्यां आनी तांचे समस्थानिक हांचे धर्तरेवयलीं कोश्टकां तयार केलीं. ताका लागून धर्तरेचो जल्म कसो जालो आसुंये, तिचेर मेळपी मूलद्रव्यां कशीं निर्माण जालीं आसुंये ह्या प्रस्नांचेर उजवाड पडलो. जिवाचे उत्पत्तीविशीं युरी आनी ताचो विद्यार्थी स्टॅन्ली मिलर हाणें १९५१ वर्सा शिकागो विद्यापिठांत एक अभिजात प्रयोग केलो. तांणी एके बंद नळयेंत मिथेन, आमोनिया आनी उदकाची वाफ हांच्या मिश्रणांतल्यान वयलेवयर विद्युत् स्फुल्लिंगांचें विसर्जन केलें. एका सप्तकाभितर ते भरसणेक तांबडो रंग आयलो आनी ताचें विश्लेशण करतकच तातूंत आमोनिया आम्लांची जटिल भरसण तयार जाल्ल्याचें समजलें. ॲमिनो आम्लां प्रथिनांचे मूलभूत घटक आसात. ह्या प्रयोगाक लागून धर्तरेवयलें वातावरण क्षपक जाता आनी क्षपक वातावरणांत जीवोत्पत्ती जाली आसुंये हे कल्पनेक आदार मेळ्ळो.

हे भायर युरीन विश्वाची उत्पत्ती, रेणुंची संरचना, शोशण मर्णपट ह्याय विशयांचें संशोधन केलें. ॲटम्स, मॉलिक्युल्स अँड क्वांटा (१९३०) आनी द प्लॅनेट्स (१९५२) हीं ताणें बरयल्लीं पुस्तकां आसात. बऱ्याचशा विद्यापिठांनी ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**युरेनस** : (पळेयात गिरो).

**युरेनियम** : एक धातू. चिन्न 'U'; युरेनियमाचो अणूभार २३८.03 आनी अणुक्रमांक ९२. एम. एच. क्लॅपरॉथ हाणें इ. स. १७८९ त युरेनियमाचो सोद लायलो. उपरांत १८४१त ई. एम. पेलीगोट हाणें नितळ रुपांत युरेनियम वेगळो काडलो. जाल्यार १८९६त ए. एच. बिक्केरल हाणें युरेनियम हो किरणोत्सर्गी म्हणून दाखोवन दिलें.

युरेनियमाच्या एका अणूंत ९२ 'इलॅक्ट्रॉन', ९२ 'प्रोटोन्स' आनी १४२ ते १४६ 'न्युट्रॉन' आसतात.

सैमीक युरेनियम म्हळयार २३४, २३५ आनी २३८ ह्या तीन आयझोटोपांची भरसण आसता. २३८ आयझोटोप चड प्रमाणांत आसता. ताचें प्रमाण ९९.२७४% जाल्यार २३४ चें 0.00५४% आनी २३५ चें 0.७२0४%. तांची हाफ लायफ २३८ ($४.४७ \times १०^{९}$ वर्सां), २३४ ($२.४५ \times १०^{५}$ वर्सां) आनी २३५ ($७.0४ \times १०^{८}$ वर्सां).

युरेनियम रंगान रुपेरी आसून तो सोंपेपणान प्रक्रिया जावपी धातू (Reactive Metal). युरेनियम हो उणो विद्युत्वाहक. ताचे हेर धातूंवांगडा जायते मिश्रधातू जातात. युरेनियम हवेंत उरल्यार ताचेर हळदुळो थर तयार जाता जो मागीर काळो पडटा. हवेंत तापयतकच युरेनियम जळटा. तशेंच युरेनियमाचेर उदकाची प्रक्रिया जाता. खर हायड्रोक्लोरीक ॲसीड आनी नायट्रीक ॲसिडांत रोखडोच विरगळटा. पूण सल्फ्युरीक ॲसीड, फॉस्फॉरीक ॲसीड आनी हायड्रोफ्लुओरीक ॲसिडांत सवकास विरगळटा. युरेनियम ११३३ डि. सॅ. तापमानांत कडटा. जाल्यार ३८१८ डि. सॅ. तापमानांत सळसळटा.

युरेनियमाचो २३५ हो आयझोटोप फुटपी आशिल्ल्यान अणू इंधन म्हणून वापरतात. अणूबाँब तयार करपाकूय २३५ चो वापर

करतात. युरेनियमाचीं मिठां छायाचित्रण, काच उद्देग आनी रसायनीक पृथःकरणांत (Analytical Chemistry) वापरतात.

युरेनियम धर्तरेंत आसा. भुंयेंत युरेनियम ४ पीपीएम इतल्या प्रमाणांत आसता. भुंयेंत २५ किमी. खोलायेमेरेन वट्ट $१०^{१७}$ किलोग्राम इतलो युरेनियम आशिल्ल्याचो अदमास आसा. जाल्यार दर्यांत $१०^{१३}$ किलोग्राम इतलो युरेनियम आसपाची शक्यताय आसा.

युरेनियमाचीं जायतीं खनिजां सांपडिल्लीं आसात. पूण तातुंतलीं फक्त थोडींच खनिजां अर्थीक नदरेन म्हत्वाचीं. युरेनियमाच्या सगळयाच खनिजांनी शिंशें आसतां. युरेनियम किरणोत्सर्गी आशिल्ल्यान ताचें शिश्यांत रुपांतर जायत आसता. म्हणून युरेनियमाच्या खनिजांनी शिंशें आसताच.

युरेनियमाचीं म्हत्त्वाचीं खनिजां म्हळयार १) पिचब्लँड वा युरॅनायट् हातूंत युरेनियम $u_3o_8$ ह्या रुपांत आसता.

२) कार्नोटायट्. हें युरेनियमाचें मुखेल खनीज.

३) कॅलशियम कार्नोटायट्.

४) ऑटनायट्.

१९४२ पयलीं युरेनियम वेगळावपाची खास अशी पद्दत नाशिल्ली पूण तेन्ना युरेनियम एक हेर उत्पादन म्हणून रेडियमाचे खाणींतल्यान मेळटालो. अणूस्फोटाचो सोद लागले उपरांत युरेनियमाचें म्हत्व वाडलें. आतां 0.१ टक्के इतलेंपसून उणें युरेनियम आशिल्ले सांठे युरेनियम मेळोवपाक वापरतात.

युरेनियमाचीं खनिजां दक्षिण आफ्रिका, झायरे, कॅनडा, रशिया, स्विडन, टेनॅसी आनी अमेरिकेंत आसात. दक्षिण आफ्रिकेंत भांगराचे खाणींतल्यान युरेनियम एक हेर उत्पादन म्हणून मेळटा. भारतांत बिहार, राजस्थान, आंध्र प्रदेश आनी तमीळनाडूंत थोडया प्रमाणांत युरेनियम आशिल्लीं खनिजां मेळटात. हांगा युरेनियमाचीं खनिजां मायकाचे खाणींनी मेळटात.

युरेनियमाच्या खनिजांतल्यान युरेनियम वेगळो काडूंक ताचेर रसायनीक प्रक्रिया करची पडटा. सुरवेक युरेनियमाच्या खनिजांत युरेनियमाचें प्रमाण वाडोवपाखातीर प्रक्रिया करतात. ही प्रक्रिया दोन पद्दतींनी करूंक येता. पयले पद्दतींत बारीक पिठो केल्लें युरेनियमाचें खनीज आनी ऑक्सिडंट पातळ सल्फ्युरीक ॲसिडांत विरगळायतात. दुसरे पद्दतींत युरेनियमाच्या खनिजाचेर मडवळखाराची प्रक्रिया करूब तयार जाल्लें द्रावण पापडखार घालून स्थीर करतात.

वयर दिल्ल्या दोगांमदले खंयचेय पद्दतीन युरेनियमाचें प्रमाण वाडयल्ल्या खनिजाचेर रसायनीक प्रक्रिया करून ताचें युरेनिल नायट्रेट द्रावण तयार जाता. हें द्रावण इथर वापरून सॉल्वंट एक्स्ट्रॅक्शन पद्दतीन नितळ करतात. हे प्रक्रियेक लागून युरेनियमांतली अशुद्धी उदकाच्या थरांत वता, जाल्यार युरेनियम इथराच्या थरांत उरता. इथराचो थर खेरीज काडलेउपरांत नितळ युरेनियम नायट्रेटाचे स्फटीक मेळटात. युरेनियम नायट्रेट तापयतकच ताचें विघटन जावन युरेनियम ट्रायोक्सायड् $UO_3$ जाता. युरेनियम ट्रायोक्सायडाचेर हायड्रोजनाची प्रक्रिया करतकच युरेनियम ड्रायोक्सायड् $UO_2$ जाता. युरेनियम डायोक्सायडाचें युरेनियम टॅट्राफ्लुओरायड्' $UF_4$ करपाक हायड्रोजन फ्लोरायड वायू वापरतात.

युरेनियम टॅट्राफ्लुओरायडाचें नितळ युरेनियम करपाच्यो दोन पद्दती आसात -

**१) विद्युत् विघटन पद्दत :** हे पद्दतीन युरेनियम टॅट्राफ्लुओरायडाचें विद्युत् विघटन जावन युरेनियमाचे बारीक कण मॉलीब्डॅनम कॅथोडाचेर एकठांय जातात. हे पद्दतीन तयार केल्ल्या युरेनियमाची नितळसाण वयल्या पांवड्याची आसता.

**२) रिडक्शन पद्दत :** हे पद्दतीन युरेनियम टॅट्राफ्लुओरायड् आनी कॅल्शियम वा मॅग्नेशियम हांचेर भट्टेंतल्या उच्च तापमानांत प्रक्रिया घडोवन हाडटात. हे प्रक्रियेंतल्यान तयार जाल्लो युरेनियम आनी कॅल्शियम फ्लुओरायड् वा मॅग्नेशियम फ्लुओरायड् भट्टेंतल्या उच्च तापमानाक लागून कडटा. कडिल्लो जड युरेनियम भट्टेच्या पोंदाक एकठांय जाता आनी थंयच तो घट्ट जाता. घट्ट जाल्लो युरेनियम सादारण नितळ आसता. युरेनियम तयार करपाच्यो आनिकूय पद्दती आसात.

युरेनियम मुखेलपणान अणूउर्जा केंद्रांनी (Nuclear reactor) अणू इंधन म्हणून वापरतात. युरेनियमाचो २३५ होच आयझोटोप अणूइंधन म्हणून वापरूंक जाता. युरेनियम किरणोत्सर्गी जाल्ल्यान तो हाताळटना खूब जतनाय घेवप गरजेचें. युरेनियम आल्फा, बिटा आनी गामा किरणां सतत सोडीत आसता. हीं किरणां जिवीत इबाडपी आशिल्ल्यान तांचेकडेन प्राण्यांचो संपर्क येवंक फावना. युरेनियमाचीं किरणां (Uranium Radiations) चड भिरांकूळ जावपाची गजाल म्हळयार मनशाच्या ज्ञानेंद्रियांक ह्या किरणांची जाणविकाय जायना. ह्या किरणांपसून संरक्षण मेळपाक युरेनियमा भोंवतणीं दाट कवच आसप गरजेचें. युरेनियमा असलो किरणोत्सर्गी पदार्थ अणूइंधन म्हणून वापरतना उप्रासपी मुखेल भिरांत म्हळयार पर्यावरणाचें प्रदुशण आनी किरणोत्सर्गी कोयराचो विल्लो लावपांत आशिल्ल्यो अडचणी. सोविएत संघ राज्यांच्या युक्रेनांत चॅर्नोबिल हांगा आशिल्ल्या अणूउर्जा केंद्रांत २६ एप्रिल १९८६ ह्या दिसा दुर्घटना जावन पर्यावरणाचें प्रदुशण जाल्लें. ह्या प्रदुशणाक लागून अणूउर्जा केंद्राच्या ३0 किमी. भोंवतणच्या वाठारांत रावपी सुमार एक लाख लोकांक सुरक्षीत सुवातेर हालोवचे पडल्यात. हे दुर्घटणेक लागून जाल्ले वायट परिणाम त्या वाठारांत शेंकड्यांनी वर्सां उरतले.

भारतांत तारापूर, कोटा, नरोरा आनी कल्पकम हांगा अणूउर्जा केंद्रां आसात. गोंयालागसार कैगाक अणूउर्जा केंद्र उबारपाचें काम चालू आसा.

- प्रेमानंद गोकुळदास फडते

**युरोप :** एक खंड. ऑस्ट्रेलिये फाटल्यान युरोप हो संवसारांतलो सगळयांत ल्हान खंड. क्षेत्रफळ १,०५,२२,६०० चौ. किमी. संवसारांतले वट्ट लोकसंख्येंतली सुमार ११% लोकसंख्या ह्या खंडांत आस्पावल्या.

नॉर्वेतलें सगळयांत उत्तरेकडचें उत्तर भूशीर, हो खंडाचो सगळयांत उत्तरेकडलो बिंदू ( अक्षांश ७१°१०'२०'' उत्तर) जाल्यार स्पेनांतलें दक्षिणेकडचें तरीफा भूशीर, हो खंडाचो सगळयांत दक्षिणेकडचो बिंदू (अक्षांश ३६°०१' उत्तर). पुर्तुगालांतलें रोका भूशीर (रेखांश ९°३०' अस्तंत) हो खंडाचो सगळयांत अस्तंतेकडचो भाग आनी उदेंतेक रशियेंतलो उराल पर्वत हो खंडाचो सामको उदेंतेकडचो भाग. पूण युरोप खंडांत आस्पाव जावपी कांय जुंवें ह्या बिंदू परसूय भायर आसात. खंडाची चडांतचड लांबाय पुर्तुगालच्या नैऋत्य तोंकासावन ते उरल पर्वताच्या तोंकामेरेन ५,३०० किमी. जाल्यार उत्तर दक्षिण रुंदाय ग्रीसाच्या दक्षिण तोंकासावन ते नॉर्वेच्या उत्तर तोंकामेरेन ३,९०० किमी. आसा. ह्या खंडाचे उत्तरेक आर्क्टिक म्हासागर, अस्तंतेक ॲटलांटीक म्हासागर, दक्षिणेक भूंयमध्य दर्या, काळो दर्या आनी कॉकेशस पर्वत, जाल्यार उदेंतेक खंडाचे शिमेर उराल पर्वत, उराल न्हंय आनी कॅस्पियन दर्या आसा.

युरोप खंडांत आल्बेनिया, अँडोरा, आझरबायझान, आयसलँड, आयर्लंड, ऑस्ट्रिया, बॅलोरूस, बेल्जियम, बॉस्निया हर्झगोविना, बल्गेरिया, क्रोएशिया, चॅकस्लोवाकिया, डॅन्मार्क, एस्टोनिया, फिनलँड, फ्रांस, जोर्जिया, जर्मनी, ग्रीस, हंगेरी, इटली, कझाकस्तान, लाटवीया, लिख्टेनश्टायन, लिथुआनिया, लक्सॅम्बर्ग, मॅसेडोनिया, माल्टा, मॉल्डोवा, मोनाको, नॅदर्लंड्स, नॉर्वे, पोलंड, पुर्तुगाल, रुमानिया, रशिया,सान मारिओ, स्लोवेनिया, स्पेन, स्विडन, स्वित्झर्लंड, तुर्कस्तान, युक्रेन, युनायटेड किंग्डम, वॅटिकन सिटी आनी युगोस्लाविया ह्या देशांचो आस्पाव जाता. हांचेभायर उत्तरेकडच्या आर्क्टिक म्हासागरांतल्या साबार जुंव्यांचोय आस्पाव ह्या खंडांत जाता.

इ. स. प. पांचव्या शेंकड्यांत ग्रीसी कल्पनेप्रमाण धर्तरी आशिया, युरोप आनी लिबिया अशा तीन खंडांनी विभागिल्ली. तांच्या मताप्रमाण वट्ट भुंयेंतलो अर्दो भूंयभाग आशिया, जाल्यार उरिल्लो युरोप आनी लिबिया खंडांनी रेवाडिल्लो. सुर्य अस्ताक वता तो देश ह्या अर्थाच्या 'एरिब' ह्या सेमेटिक उतरापसून युरोप हें उतर आयलां अशें कांय तज्ञांचें मत आसा. युरोप आनी आशिया हे दोनूय खंड खंयच्याच दर्यांनी एकमेकांसावन वेगळे जावंक नाशिल्ल्यान कांय भूंयतज्ञ युरोप - आशिया हांकां मेळून युरेशिया असो एकूच खंड मानतात. जाल्यार कांय भूंयतज्ञ युरोप, आफ्रिका आनी आशिया मेळून युफ्रेशिया असो एकूच खंड मानतात. भुगोलीक वा लोकसंख्येचे नदरेन युरोप खंडाची भूंय स्पश्टपणान वेगळी दाखोवप शक्य ना. रशिया ह्या युरोपी देशाचो बरोच व्हडलो भाग आशिया खंडांत आसा. जाल्यार तुर्कस्तान ह्या आशियी देशाचो कांय भाग युरोप खंडांत आस्पावला. सद्या भूंयमध्य दर्या, काळो दर्या, कॉकेशस पर्वत, कॅस्पियन दर्या, उराल न्हंय, उराल पर्वत, बॅरेंट्स दर्या, नॉर्वेजियन दर्या आनी उत्तर ॲटलांटीक म्हासागर हांणीं शिमीत केल्ल्या भूंयखंडाकूच युरोप खंड म्हण्टात.

**भूंयवर्णन :** भूंयविज्ञानीक नदरेन युरोप हो हेर खंडांपरस खूब उसरां निर्माण जाल्लो खंड. कांय भूंयतज्ञांच्या मतान ह्या खंडाचे निर्मितीची प्रक्रिया सुमार ५७ कोटी वर्सांपयलीं सुरू जाल्या. कॅंब्रियन - आर्दी, पुराजीव, मध्यजीव म्हाकल्प ह्या विंगड विंगड म्हाकल्पांतल्यान युरोप खंडाची घडण जाल्ली आसा. युरोपांत मुखेल अशो तीन गिरीजनक हालचाली जावन तेप्रमाण थंय कॅलिडोनियी, हर्सिनियी आनी आल्पायन अशो तीन पर्वतसंहती मेळटात. सुमार ३४.५ कोटी वर्सांपयलीं डेवोनियन कालखंडाचे अखेरेक जाल्ले पयले व्हड गिरीजनक हालचालींतल्यान कॅलिडोनियन पर्वतसंहती निर्माण जाली. सद्याच्या अस्तंत नॉर्वे, उत्तर आनी मध्य ब्रिटन आनी आयर्लंडच्या चडशा भागांनी ही पर्वत संहती मेळटा. कार्बॉनिफॅरस कल्पाचे निमाणेकडेन आनी पर्मियन कल्पांत सुमार २८ कोटी वर्सांपयलीं जाल्ले गिरीजनक हालचालींतल्यान हर्सिनियन पर्वतसंहती निर्माण जाली. हे पर्वत संहतीचो विस्तार पुर्तुगाल आनी दक्षिण आयर्लंडासावन पोलंडमेरेन जाला. मध्यजीव म्हाकल्पाच्या उत्तरार्दांत म्हळयार सुमार ६.५ कोटी वर्सांपयलीं सुरू जाल्ले हालचालींतल्यान निर्माण जाल्ल्या पर्वतांक आल्पायन पर्वतसंहती म्हण्टात. ही पर्वतसंहती दक्षिण स्पेनासावन काळया दर्यामेरेन पातळ्ळया. सुमार १० ते २० लाख वर्सांपयलीं सुरू जावन धा हजार वर्सांपयलीं मेरेन तिगून आशिल्ल्या हीमयुगांत म्हळयार प्लायस्टोसीन कल्पांत सबंद युरोप खंड हिमान भरिल्लो. उपरांत हीम विरगळिल्ल्यान दर्याचो पांवडो ६०मी. मेरेन वाडलो अशें म्हण्टात.

भूंयरचणुकेचे नदरेन युरोप खंडाचे मुखेलपणान चार वांटे केल्यात ते अशे - १) वायव्येकडचो पर्वतीय प्रदेश २) ग्रेट युरोपीयन प्लेन ३) मध्यवर्ती उचेली भूंय आनी ४) दक्षिणेकडच्यो आल्पायन पर्वतांवळी. वायव्येकडच्या पर्वती प्रदेशांत वायव्य फ्रांस, आयर्लंड, उत्तर ग्रेट ब्रिटन, आय्सलँड, नॉर्वे, स्विडन, उत्तर फिनलंड आनी युरोपीय रशियेच्या वायव्य भागाचो ह्या प्रदेशांत आस्पाव जाता. ह्या भागांतलो चडसो प्रदेश पर्वतांनी रेवडायला. हांगाची खडप रचणूक ही धर्तरेवयली सगळयांत आदली. साबार वर्सांसावन ह्या प्रदेशाची झीज चालूच आसून लेगीत थंय कांय उंचेलीं तेमकां आसात. गाल्डोपीजन हें तातुंतलें सगळयांत उंचेलें (२,४६९ मी.).

ग्रेट युरोपीयन प्लेन ह्या भागान युरोपाची अर्दापरस चड भूंय रेवडायल्या. युरोपी रशियेचो चडसो भाग, तशेंच रशियेसावन अस्तंतेकडेन फ्रांसामेरेनच्या सपाट प्रदेशाचो आस्पाव ह्या भागांत जाता. इंग्लंडाच्या दक्षिण भागाचोय आस्पाव हातूंत जाता. ही सपाट भूंय पोलंड आनी जर्मनी देशांतल्यान पासार जातना मातशी अशीर

जाल्या. पूण फ्रांसाचे अस्तंतेक ती रूंद जाल्या. संवसारांतलो सगळयांत **पिकाळ** प्रदेश म्हणून हाची नामना आसा.

रशिया सोडल्यार युरोपाच्या मध्य भागांत उणें उंचायेचे **पर्वत** आनी सडे आसात. तांची उंचाय ३०० ते १,८०० मी. हांचेभितर आसा. वाटकुळयो दोंगुल्लयो, खर देंवत्यो, खोल आनी अशीर देगणां अशी वेगवेगळया स्वरुपाची ही भूंय. पुर्तुगाल आनी स्पेनांतलो 'मेसेटा' सडो, फ्रांसांतलो मासीफ सँट्रल, मध्य जर्मनी आनी अस्तंत चॅक आनी स्लोवाकियेंतले सडे आनी ऊंच प्रदेश हे ह्या भागांतले मुखेल उचेले प्रदेश. हांगाची चडशी भूंय फातराळ आसून ह्या भागांत ज्वालामुखी प्रकारच्या तळपांचे थर आसात.

आल्पायन पर्वतांच्यो रांको खंडाच्या दक्षिण भागांत स्पेनासावन कॅस्पियन दर्यामिरेन पातळ्ळयात. स्पेनांतलो सिएरा नेवाडा, स्पेन - फ्रांस हांचे शिमेर आशिल्ली पिरेनीज पर्वतावळ, आग्नेय फ्रांस, उत्तर इटली, स्वित्झर्लंड, जर्मनी, ऑस्ट्रिया आनी उत्तर युगोस्लाविया ह्या प्रदेशांनी पातळिल्ले आल्प्स पर्वत, इटलींतलो ॲपेनीझ युगोस्लाविया आनी ग्रीसांतलो दिनारीक आल्प्स, बल्गेरियेंतलो बाल्कन पर्वत, रुमानियेंतलो कार्पेथियन पर्वत उदेंतेकडचो कॉकेशस पर्वत ह्या सगळयांचो आल्पायन पर्वतावळींत आस्पाव जाता. कॉकेशस पर्वतांतलें माऊंट एलब्रुस (उंचाय ५,६३३ मी.) हें ह्या प्रदेशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक.

रशियेंतल्यान व्हांवत वचून दक्षिणेक कॅस्पियन दर्याक मेळपी वोल्गा ही युरोपांतली सगळयांत लांब न्हंय (३,५३१ किमी.). डॉन ही रशियेंतली दुसरी म्हत्वाची न्हंय. तिचें पात्र रूंद आसून ती काळया दर्याक मेळटा. ऱ्हायन न्हंयेचो उगम आल्प्स पर्वताचोर जाला. ती जर्मनी आनी नॅदर्लंड्सामदल्यान व्हांवत वचून काळया दर्याक मेळटा. डॅन्युब ही युरोपांतली दुसऱ्या क्रमांकाची लांब न्हंय. तिची लांबाय २,८६० किमी. इतली आसून ती जर्मनी, ऑस्ट्रिया, चॅक आनी स्लोवाकिया, हंगेरी, युगोस्लाविया, बल्गेरिया आनी रुमानियेंतल्यान व्हांवत वचून काळया दर्याक मेळटा. रशियेंतल्यो नीपर, नीस्तर, नेमन, उत्तर द्वीना, अस्तंत द्वीना आनी पेचोरा; पोलंडांतल्यो ओडार आनी विश्चेला, चॅक आनी स्लोवाकिया आनी जर्मनींतली एल्ब न्हंय, इटलींतली पो, फ्रांसांतल्यो गारॉन, ल्वार, ऱ्होन आनी सेन; स्पेनांतल्यो एब्रो, स्पेन आनी पुर्तुगाल शिमेवयल्यो टेगस, ग्वाद्याना आनी डोरू तशेंच इंग्लंडांतली टेम्स ह्यो युरोप खंडांतल्यो चड म्हत्वाच्यो न्हंयो.

**हवामान :** सादारणपणान युरोप खंडाचें हवामान सौम्यूच उरता. अमेरिका आनी आशिया खंडांपरस त्याच अक्षवृत्तांत युरोपांतलें हवामान सौम्य आसता. ॲटलांटीक म्हासागरावयल्यान युरोपांत येवपी वाऱ्याक लागून हांगाचें हवामान सौम्य आसता. सादारणपणान दक्षिण युरोपापरस उत्तर युरोपांतले शियाळे चड तेंप उरपी आनी थंड, जाल्यार गीम उणे दीस उरपी आनी शितळ आसता. तशेंच अस्तंत युरोपापरस उदेंत युरोपांतले शियाळे चड तेंप उरपी आनी थंड, जाल्यार गीम अल्पकालीन आनी उश्ण आसतात. स्कॉटलंडांतल्या ग्लासगो शारांतलें जानेवारी म्हयन्यांत सरासरी तापमान ३°सें. जाल्यार त्याच अक्षवृतांत आस्पाव जावपी मॉस्को शारांतलें जानेवारींत सरासरी तापमान - १०° उरता. युरोपाच्या चडशा भागांत वर्सुकी पावस ५० ते १५० सेंमी. पडटा. अस्तंत ग्रेट ब्रिटन, अस्तंत नॉर्वे, आनी अस्तंत युगोस्लाविया प्रदेशांनी सुमर २०० सेंमी. इतलो पावस पडटा. स्पेनाच्या मध्य आनी आग्नेय भागांत, युरोपी रशियेच्या आग्नेय आनी उत्तर भागांत, तशेंच उत्तर स्कॅंडिनेविया ह्या भागांनी फकत ५० सेंमी. इतलो पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** सद्या मध्य आनी दक्षिण युरोपापरस उत्तर युरोपांत व्हड आनी दाट रानां आसात. पूण शेतवड, मनशाचो राबितो आनी वेगवेगळया लांकूड उद्देगांक लागून रूख मारिल्ल्यान खंडांतलें रानांखाल आशिल्लें क्षेत्र दिसानदीस उणें जायत गेलां. खंडाचे उत्तरेक आशिल्ल्या रानांनी सदापाचवी उरपी सूचिपर्णी रानां आसून, तातूंत फर, बर्च, पायन आनी स्प्रूस हे वनस्पतीचे प्रकार चड आसात. रशियेच्या मध्य आनी दक्षिण भागांत रूंदपानी पानझडी रुखांचीं रानां आसात. तातूंत ॲश, बीच, बर्च, एल्म, मॅपल आनी ओक हे वनस्पती प्रकार मेळटात. ह्याच भागांनी कांयकडेन रूंदपानी आनी सूचिपर्णी रूख एकठांय वाडिल्ले दिसतात. भूंयमध्य दर्यादेगांच्या प्रदेशांनी सदापाचवी रुंदपानी रुखांचीं रानां आसून कॉर्क आनी ऑलिव हे तातुंतले मुखेल रूख. युरोपांत स्टॅप आनी प्रेरी अशे दोनूय तरांचे तणाचे प्रदेश आसात. रशियेच्या आग्नेय भागांत स्टॅप, जाल्यार रशियेच्या मध्यभागांत प्रेरी प्रकारचें तण वाडटा.

हांगाच्या रानांत विंगड विंगड प्रकारची मोनजात सांपडटा. व्हड प्रमाणांत जावपी शिकार आनी हेर कारणांक लागून मोनजातीचें प्रमाण उणें जायत गेलां. मोनजातीची राखण करचेरवातीर चडशा सगळया युरोपी देशांनी प्राणीसंग्रहालयां बांदल्यांत, जाल्यार कांय रानां मोनजातींचे रक्षीत भाग म्हणून घोशीत केल्यांत. रशिया आनी उत्तर स्कॅंडिनेविया हांचे मजगतींच्या प्रदेशांत पुडीकोरांचीं वांस्वेलां खूब मेळटात. कोले आनी कोलसुणीं सगळयाकूच दिश्टीं पडटात. नैर्ऋत्य युरोपांतल्या ऊंच पर्वतांचेर शॅमॉय आनी आयबॅक्स ह्या बोकडांभाशेन दिसपी मोनजातीची संख्या चड आसा. हांचेखेरीज खंडाच्या वेगवेगळया रानांनी एल्क, रेनडियर, हरणांचे साबार प्रकार, सोंशे, बिजू, हेज्हॉग, लेमिंग्ज, मोल, ऑटर, चानी, रानदुकर आनी हेर मोनजात सांपडटा. हांगा सांपडपी सवण्यांभितर गरूड, ससाणो, फिंच, पिटकूळीं, बुलबूल, घुघूम, म्हारकावळो, कोगूळ, पारवे हे मुखेल आसात.

**भुगोलीक विभाग :** भुगोलीक नदरेन युरोपाचे सात विभाग केल्यात ते अशे - १) भूंयमध्य सागरी दक्षिण विभाग, २) अस्तंती

दर्यादिगांचो प्रदेश, ३) द्विपीय प्रदेश, ४) जर्मनीचो अंतरक प्रदेश, ५) उदेंत युरोपी विभाग, ६) उत्तर शिमेवयलो विभाग आनी ७) युरोपी रशिया.

भूंयमध्य सागरी विभागांत ग्रीस, इटली, स्पेन आनी पुर्तुगाल, तशेंच तुर्कीच्या कांय भागांचो आस्पाव जाता. अस्तंती दर्यादिगांच्या प्रदेशांत बेल्जियम, फ्रांस आनी नॅदर्लंड्स ह्या तीन देशांचो आस्पाव जाता. द्विपीय प्रदेशांत युनायटेड किंग्डम आनी आयर्लंड ह्या जुंव्यांवयल्या देशांचो आस्पाव जाता. जर्मनीच्या अंतरक प्रदेशांत जर्मनी, ऑस्ट्रिया आनी स्वित्झर्लंड देशांचो आस्पाव जाता. उदेंत युरोपी विभागांत आल्बेनिया, बल्गेरिया, चॅक, स्लोवाकिया, हंगेरी, पोलंड, रुमानिया आनी युगोस्लाविया, क्रोएशिया ह्या देशांचो आस्पाव जाता, जाल्यार उत्तर शिमेवयल्या विभागांत नॉर्वे, स्विडन, फिनलँड, डॅन्मार्क आनी आय्सलँड ह्या पांच देशांचो आस्पाव जाता. युरोपी रशिया हातूंत रशिया, युक्रेन, आझरबायझान, लाटविया, बॅलोरूस, कझाकीस्तान, लिथुआनिया ह्या देशांचो आस्पाव जाता.

**इतिहास :** जीवाश्मवृत्ता वयल्यान युरोपांत धा लाख वर्सां पयलींसावन मनशांचो राबितो आशिल्ल्याचें कळटा. नियेण्डरथाल आनी क्रो-मॅग्नोन हे युरोपांतले साप्प आदले लोक. नियेण्डरथाल ह्या लोकांचो १००,००० ते ३५,००० वर्सां आदींसावन युरोपांत राबितो आशिल्लो. जाल्यार क्रो-मॅग्नोन ४०,००० ते १०,००० वर्सां आदींसावन युरोपांत रावताले. क्रो - मॅग्नोन हे शिकारी आनी हेडगे लोक आशिल्ले. तांचो पंगड चड करून २५ ते ३० लोकांचो मेळून जातालो अशें इतिहासकारांनी मत मांडलां. इ. स. आदीं ६००० च्या सुमाराक आग्नेयेकडचे युरोपी लोक पिकां काडपाक शिकिल्ले. शेतकी पद्दत आपणायले उपरांत तांचेमदीं थिराय येवन, संस्कृतीक मळार ल्हव ल्हव उदरगत जायत गेली. इ. स.प. ३०००च्या सुमाराक सबंद युरोप खंडांत शेतकी पद्दतीन पिकां घेताले.

युरोपांत कांश्यायुगांत संस्कृतायेचो उदय जालो. युरोपी संस्कृताय सुरवेक ग्रीस देशाचे उदेंतेक आशिल्ल्या इजीअन दर्यांतल्या जुंव्यांचेर उदयाक पावली. इजीअन संस्कृताय इ. स. प. ३००० ते १२०० ह्या तेंपार युबिआ, मिटिलीनी, थेसॉस, सॅमोथ्रेस, सिक्लाझीझ, सेमॉस आनी क्रीट ह्या जुंव्यांचेर नंदताली. ग्रीसाचे आग्नेयेक आशिल्लो क्रीट जुंवो हें युरोपी संस्कृतायेचें पयलें मुखेल केंद्र. लिखाण, वास्तूशिल्प, कलाकुसर, चित्रकला ह्या मळांचेर भोव उदरगत जाल्ली. थंयचे लोक धाडशी तारवटी आशिल्ले. थंयच्या वेपारांतूय खूब वाड जाल्ली. माल्टा ह्या इटलीचे दक्षिणेक आशिल्ल्या जुंव्याचेरूय इजीअनाभाशेन संस्कृताय उदयाक आयिल्ली. इ. स. प. २५००च्या सुमाराक इजीअन जुंव्यांवयल्या आनी माल्टा जुंव्यावयल्या तारवट्यांनी वेपाराच्या निमतान युरोपाच्या अस्तंत आनी दक्षिण प्रदेशांनी वचून, थंय ल्हव ल्हव आपले संस्कृतायेचो शेक बसयलो.

इ.स.प. २०००च्या सुमाराक काळ्या दर्याचे इशान्येक आशिल्ल्या झुजारी पंगडांनी दक्षिण आनी अस्तंत युरोपांत घुरयो घालून थंयच्या लोकांक तांणी सतावन सोडिल्ले. थंयचे प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडटना, तांणी आपली झुजारी प्रवृत्ती हेर युरोपी लोकांभितर पातळ्ळी.

**ग्रीसी संस्कृताय :** युरोपी संस्कृताय फांकोवपाक ग्रीसी विचारसरणी आनी हेर मुल्यांचो तेंको आसा. इ. स. प. २००० च्या सुमाराक इंडो-युरोपी लोकांचे पंगड येवन ग्रीसांत स्थायीक जाले. उपरांत तांणी इजीयन संस्कृतायेचेर व्हडपण मेळोवन क्रेटन हातासलें. इ.स.प. ११०० च्या सुमाराक इंडो-युरोपी लोकांचे आनीक पंगड ग्रीसांत रिगले. तांणी दक्षिण ग्रीसाचेर घुरयो घालून थंयच्या थळाव्या लोकांक धांवडावन घाले. उपरांत हे साबार पंगड एकठांय येवन तांणी आपल्यो स्वतंत्र सरकारी यंत्रणां उबारल्यो. दर एके यंत्रणेक 'पुलीस' अशें म्हण्टाले. 'पोलिटिकल' हें उतर ह्याच उतरावयल्यान आयलां. ग्रीसी संस्कृतायेन इ. स. प. ४०० ते ३०० ह्या काळांत तेंगशी गांठली. ॲथन्स, स्पार्टा, थीब्ज आनी हेर बळिश्ट राज्यां ह्याच तेंपार भरभराटीक आयिल्लीं. लोकशायेचोय उदय ह्याच तेंपार जालो. उपरांत पर्शिया आनी ग्रीसां भितर व्हड झूज सुरू जालें. ह्या झुजा फाटल्यान ग्रीसी राज्याभितर यादवी झूज पेटलें. हाका लागून ग्रीसाची राजकीय आनी अर्थीक स्थिती इबाडली. पूण ॲथन्स शाराची पुर्विल्लें संस्कृतीक केंद्र म्हणून प्रतिश्ठा तशीच उरली. ह्या तेंपार ग्रीसाचे उत्तरेक मॅसेडोनिया राज्य भरभराटीक आयलें. इ. स. प. ३३८त तांणी ग्रीस हातासलें. इ. स. प. ३३६त ॲलॅक्झांडर द ग्रेट हो मॅसेडोनियेचेर राज्य करतालो. ताणें युरोप आनी आशियेंत आपलें व्हड साम्राज्य उबारलें. ताका ग्रीसी संस्कृतायेविशीं आदर आशिल्लो, हाका लागून ताणें ग्रीसी संस्कृतायेचो आपल्या साम्राज्यांत प्रसार केलो.

ॲलॅक्झांडरा उपरांत मॅसेडोनिया राज्याक देंवती कळा लागली. पूण ग्रीसाचेर ताचो शेक तसोच उरलो.

**रोमी साम्राज्य :** युरोपी संस्कृताय उबारपाक ग्रीसाफाटल्यान रोमी साम्राज्याचोय व्हड तेंको मेळ्ळा. रोमाचो उदय केन्ना जालो हाची निश्चीत म्हायती इतिहासकारांक मेळूंक ना. पूण इ. स. प. २७५ सावन रोमाचो इटली द्विपकल्पाचेर शेक आशिल्लो. मुखावयल्या दोनशें वर्सांभितर रोमी लोकांनी सदयाचें स्पेन ते नैऋत्य आशियेंत, तशेंच आफ्रिकेचे उत्तर देगेमेरेन व्हड साम्राज्य उबारिल्लें. उपरांत तातूंत भर पडत गेली. 'रोमी शांतताय' (Pax Romana) म्हळयार इ.स.प. २७ ते इ.स. १८० मेरेनच्या तेंपार रोमी साम्राज्यान तेंगशी गांठिल्ली. ह्या तेंपार बळिश्ट अशें कलाकूसरीचें, शिक्षण आनी वेपारांत चड उदरगत जाल्लें संवसारांत दुसरें आनीक साम्राज्य नाशिल्लें. रोमी लोकांनी ग्रीसी लोकांच्यो साबार कल्पना आनी चालीरिती आपणायल्ल्यो. देखून कांय इतिहासकार रोमी साम्राज्याचे संस्कृतायेक 'ग्रॅको-रोमान' अशें म्हण्टात.

बांदावळशास्त्र, लॅटीन भास, कायदयाचीं तत्त्वां ही आपली खाशेली देणगी रोमी साम्राज्यान युरोपाक दिल्या. क्रिस्तांव धर्माचो उदय पॅलेस्टायनांत जालो, पूण रोमी साम्राज्यांत तो फांकारलो. इ. स. ३00चे निमाणेकडेन क्रिस्तांव हो रोमी साम्राज्याचो राजधर्म जालो. इ. स. च्या चवथ्या शेंकड्यामेरेन रोमी साम्राज्याचो खूब विस्तार जाल्लो. उपरांत ह्या व्हड साम्राज्याचेर देखरेख दवरपाक कठीण जाल्ल्यान, ल्हव ल्हव ताचे कुडके जावपाक लागले. पूण ३२४त सम्राट कॉन्स्टण्टायन हाणें सगळे प्रदेश एकठांय हाडून साम्राज्याक जोडले. उपरांत ३९५त रोमी साम्राज्याची फाळणी जावन उदेंत रोम (बायझण्टायन साम्राज्य) आनी अस्तंत रोम अशे दोन भाग जाले.

अँजल्स, फँक, जूट, सॅक्सोन, वॉंडाल आनी विसीगोथ ह्या जर्मानीक लोकांचे पंगड सबंद उत्तर युरोपांत पातळिल्ले. हे लोक क्रूर आनी अशिक्षित आशिल्ले. तांणी रोमी साम्राज्याचेर साबार खेपे घुरयो घाल्ल्यो. इ. स. ३00 ते ४00 ह्या तेंपार मध्य आशियेंतल्या ह्यून पंगडांतल्या मोंगोल लोकांनी तांकां अस्तंत रोमांत धांवडावन घाले. तातुंतले वॉंडाल लोक स्पेनांत जाल्यार विसिगोथ लोक इटली द्विपकल्पांत पावले. तांणी रोमी साम्राज्य लुटलें. अँजल्स, जूट आनी सॅक्सोन लोक ब्रिटनांत गेले. जाल्यार फँक लोकांनी फ्रांस घेतलो. ४७६त जर्मनीचो मुखेली ऑडेसर हाणें रोमी साम्राज्याचो निमाणो सम्राट रोमुलस ऑगुस्टुलस हाका सत्तेभायरो करून आपूण सम्राट जालो.

**मध्ययुग :** अस्तंत रोमी साम्राज्याचो अंत (४७६ ते १५00) मेरेनच्या अस्तंत युरोपांतल्या काळाक मध्ययुग अशें म्हण्टात. रोमी लाकांनी निर्माण केल्लें बळिश्ट साम्राज्याचे ह्या तेंपार ल्हान ल्हान कुडके जाले. ह्या काळांत पुराय खंडांत धर्म, शिक्षण, राजकारण आनी कला हांचेर रोमन कॅथलीक इगर्जेचोच शेक आशिल्लो. रोमी सत्तेवेळार भरभराटीक आयिल्ल्या वेपाराकूय मध्ययुगाचे सुरवेक सावनूच देंवती कळा लागली. हाका लागून शारांतले लोक शेतवडीवटेन घुंवले. ह्या तेंपार मध्यमवर्गीय लोकूच ना जाले. कला आनी शिक्षणीक म्हत्वूय उणें जालें. 'मानोरिॲलिसम' (जमीनदार आनी शेतकामती) ही अर्थवेवस्था अस्तित्वांत आयली.

मध्य युगांत फँक लोकांनी युरोपांत बळिश्ट राज्य उबारिल्लें. तांच्या राज्यांत सदयाचे बेल्जियम, फ्रांस आनी नेदरलँडस् या देशांचो आस्पाव जातालो. चार्ल्स द ग्रेट (७६८ ते ८१४) हाच्या तेंपार फ्रँक साम्राज्याचो विस्तार आनीक वाडलो. ताणें रोमन कॅथलीक इगर्जेक उखलून धरून अस्तंत रोमी साम्राज्य परतून स्थापीत करपाचे खूब यत्न केले. पूण ताच्या मरणाउपरांत फ्रँकीश साम्राज्याचे खूब कुडके जाले. इ. स. ९00 त जर्मनीचो ओट्टो पयलो हाणें इटलीचो उत्तर भाग हातासून 'पवित्र रोमी साम्राज्य' उबारलें. पूण ताच्या मरणाउपरांत तेंय अस्ताक पावलें.

फ्रँकीश साम्राज्याचो अस्त जाले उपरांत, सैन्य आनी राजकारण हांचेर आदारिल्ली सरंजामशाय पद्दत अस्तित्वांत आयली. १000चे सुरवेक ह्या सरंजाम मुखेल्यांक युरोपांत शांतताय प्रस्थापीत करपाक यश मेळ्ळें. हाका लागून व्यापार परत वाडलो. शारांचें म्हत्वय वाडलें. शेतकामती आपापलो गांव सोडून काम सोदपाच्या निमतान शारांनी वचपाक लागले. व्यापार आनी उद्देग वाडिल्ल्यान मध्यम वर्गीय लोकांच्या आदारान राजकर्ते सरंजाम मुखेल्याआड झगडपाक लागले. तशेंच शेतकामत्यांनी तांचे आड उठाव केले. अशें रीतीन ल्हव ल्हव सरंजामशाय पद्दतीचो अंत जालो.

चवदाव्या शेंकड्याचे सुरवेक यादवी झूज, पिडा, इबाडिल्ली अर्थीक स्थिती आनी दुकळ हांकां लागून युरोपी लोक उबगल्ले. पूण उपरांत तज्ञ आनी कलाकारांनी धर्मशास्त्र सोडून मनीस कुळयेचेरूय चड भर दिल्ल्यान युरोपी संस्कृतायेंत, अर्थवेवस्थेंत तशेंच राजकारणांत बदल घडून आयले. चवदाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दाकसावन युरोप मध्य युगांतल्यान ल्हव ल्हव भायर सरून प्रबोधन काळांत प्रवेश केलो. अरबस्थान आनी उत्तर आफ्रिकेंत मुसलमानांचो शेक वाडलो. उपरांत तांणी आपली मोख युरोपाकडेन घुंवडायली. तांणी अस्तंत युरपांत घुरयो घालून थंयचे साबार प्रदेश हाताशिल्ले. उपरांत ११00 ते १३00 मेरेन युरोपी लोकांनी पॅलेस्टायन ही आपली पवित्र भूंय घेवंचेरवातीर थंयच्या मुसलमानांआड साबार धर्मझुजां उबारिल्लीं. पूण युरोपी लोकांक यश मेळ्ळें ना. त्यांच काळांत तांचेभितर वेपार चलतालो. उपरांत हे वेपारी संबंद वाडत गेले. युरोपी संस्कृतायेक मुसलमानांचें खूब योगदान मेळ्ळां.

**प्रबोधन काळ :** चवदाव्या शेंकड्याचे सुरवेक सावन युरोपांतले मध्ययुगीन स्थीतीत बदल जावन, नव जागृताय आनी नवनिर्मितीखातीर गरज आशिल्ली चैतन्यशील मेकळीक मेळपाक लागली. त्या काळांत विचारवंतांचो वर्ग वाडोवन तांणी अंधश्रद्धांचेर टिका करून बुद्धीवाद आनी प्रयोगशीलतेक म्हत्व दिलें. धर्मशास्त्र सोडून तांणीं मनीसकुळयेचेर चड भर दिल्लो. हातुंतल्यानूच प्रबोधन काळ सुरू जालो. प्रबोधन काळांतल्यानूच सद्याची युरोपीय संस्कृती तयार जाली अशें म्हण्टात. युरोपांतलें धर्मसुदारणा आंदोलन हो प्रबोधन काळांतल्या विचारांचो एक परिणाम. धर्मसुदारणेची चळवळ मुखेलपणान धर्मीक आसली तरी तिणें युरोपाची राजकीय, समाजीक, धर्मीक आनी संस्कृतीक जीण बदलून उडयली. प्रबोधनकाळांत युरोपांत अर्थीक भरभराटूय जाली. धर्मसुदारणा चळवळ मुखेलपणान रोमन कॅथलीक इगर्जेंत बदल घडोवन हाडपाखातीर सुरू जाल्ली. पूण तिचो परिणाम म्हळयार प्रोटेस्टंट धर्माचो उदय जालो. प्रोटेस्टंट धर्मीय लोक मुखेलपणान उत्तर युरोपांत मेळटात.

**अर्वाचीन काळ :** मध्ययुगाचे अखेरेक सरंजामशायेक देवती कळा लागले उपरांत, तशेंच कॅथलीक इगर्जेचो शेक उणो जाले

उपरांत राजकर्त्यांचो शेक वाडत गेलो. तशेंच वास्को द गामान उदका मार्गांतल्यान भारताचो सोद लायलेउपरांत वसणूकवादाक चालना मेळ्ळी. उपरांत साबार युरोपी देशांनी आशिया, आफ्रिका आनी अमेरिकेच्या खंडांनी आपापल्यो वसणूको उबारिल्ल्यो. ह्या देशांकडेन जावपी व्यापाराक लागून वसणुकवादी युरोपी देशांची संपत्ती वाडत गेली.

अठराव्या शेंकड्यांत नव्या नव्या सोदाक लागून ग्रेट ब्रिटनांत उद्देगीक वाड नेटान जाली. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक ही उद्देगीक क्रांती हेर अस्तंत युरोपी देशांनी पातळ्ळी. उद्देगीक क्रांतीक लागून भौशीक, अर्थीक आनी राजकीय बदल घडून आयले. मध्यम वर्गीयांचो आंकडो वाडत गेलो. हे क्रांतीक लागून भांडवलशायेचोय जल्म जालो. क्रांतीच्या सुरवेच्या काळांत कामगारांची खूब सतवणूक जाताली. उपरांत हातुंतल्यानूच कामगार संघटना, तशेंच कम्युनिझम सिद्धांतांची वाड जाली.

आधुनिक काळांत युरोपांतली सगळयांत म्हत्वाची गजाल म्हळयार लोकशायेची वाड. लोकशाय तत्त्वांचो उगम पुर्विल्ल्या ग्रीसांत जाल्लो. तरी तीं तत्त्वां सुरवेक उपेगांत ग्रेट ब्रिटनान हाडलीं. १६८९त ब्रिटीश पार्लमेंटान राजाचे साबार हक्क काडून ते आपल्याकडेन दवरले. १७८९त जाल्ले फ्रेंच क्रांती उपरांत फ्रांसान आपली शासन यंत्रणा लोकशाय पद्दतीचेर उबारली. फ्रांसेझ क्रांतीउपरांत थंय सैनिकी अधिकारी नॅपोलियन बोनापार्त हो सत्तेर आयलो. आपल्या विस्तारवादी धोरणाक लागून ताणें साबार युरोपी देशांचेर घुरी घालून ते फ्रांसाक जोडले. १९१४ आनी १९१५त युरोपांत शांतताय प्रस्थापित करचेखातीर, तशेंच लोकशायेचो पुरस्कार करचेखातीर युरोपी मुखेल्यांची विएन्ना शारांत परिशद भरिल्ली.

आशिया आनी आफ्रिकेंतल्या साम्राज्य विस्ताराखातीर १८७० ते १९१४ मेरेन युरोपी राश्ट्रांभितर सर्त लागिल्ली. पयलें म्हाझूज हें हे सर्तीचो एक परिणाम जावन आसा. फ्रांस, ग्रेट ब्रिटन आनी रशिया मेळून जर्मनी आनी ऑस्ट्रिया - हंगेरी हांचेआड झुजांत देंवलीं. १९१७ त अमेरिकाय जर्मनीआड झुजपाक लागली. ह्याच वेळार रशियेंत व्हड क्रांती जावन थंय कम्युनिस्ट हुकूमशायेचो शेक सुरू जालो. १९१८ त जर्मनी आनी ताच्या इश्ट राश्ट्रांची हार जाली. १९१९ त वर्सायस् कबलात जावन पयलें म्हाझूज काबार जालें. पयल्या म्हाझुजाक लागून 'लिग ऑफ नेशन्स' ही संस्था अस्तित्वांत आयली. ऑस्ट्रिया - हंगेरी हांचे ल्हान ल्हान कुडके जावन नवीं राश्ट्रां उदयाक आयलीं. साबारकडेन राजशायेचो अंत जावन लोकशाय पद्दत अस्तित्वांत आयली.

पयल्या म्हाझुजाउपरांत युरोपांत हुकूमशाय परत वाडली. जर्मनींत हिटलराच्या फुडारपणाखाल नाझी आनी इटलींत मुसोलिनीच्या शेकातळा फॅसिस्ट तत्त्वप्रणाली अस्तित्वांत आयली. त्या दोगांयनी व्हड सैन्य उबारून युरोपाची शांतताय परतून भंग केली. दोगूय हुकूमशाहा एकठांय जावन तांणी भोंवतणच्या प्रदेशांचेर घुरयो घालपाक सुरवात केली. हातुंतल्यानूच मुखार दुसरें म्हाझूज सुरू जालें. दुसऱ्या म्हाझुजांत मुखेलपणान ग्रेट ब्रिटन, फ्रांस, अमेरिका आनी रशिया एकठांय येवन जर्मनी, इटली आनी जपान हांचेआड झगडपाक लागले. ह्याय वेळार जर्मनी आनी ताच्या इश्ट राश्ट्रांचेर हार पडली. झुजा उपरांत 'एकवटीत राश्ट्रां' ही संस्था अस्तित्वांत आयली. तशेंच झुजांत वांटो घेतिल्ल्या राश्ट्रांची अर्थीक, भौशीक आनी राजकीय स्थिती इबाडिल्ल्यान, तांचो वसणुकांवयलो शेक उणो जायत गेलो. हाका लागून आशिया आनी आफ्रिकेंतल्या साबार वसणुकांनी आपआपलें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. अमेरिका आनी रशिया हीं संवसारांतलीं दोन बळिश्ट राश्ट्रां म्हणून अस्तित्वांत आयलीं. रशियेन उदेंत युरोपांतल्या राश्ट्रांचेर शेक बसोवन थंय कम्युनिस्ट सरकारांची स्थापना केली. जाल्यार अस्तंत युरोपी देश अर्थीक आनी सैनिकी गरजांखातीर अमेरिकेचेर आदारून रावले. उपरांत ह्या दोनूय पंगडांभितर शीतझूज सुरू जालें. उपरांत दोनूय पंगडांतले देश स्वतंत्रपणान एकमेकांकडेन वेव्हार करपाक लागिल्ल्यान १९७० मेरेन शीत झुजाचो नेट उणो जायत गेलो. १९७० उपरांत चडशा युरोपी देशांभितर वेपारी आनी सैनिकी कबलाती जावन युरोपांत शांतताय आनी उदरगत घडोवन हाडपाचे यत्न जाले. तांकां खूब प्रमाणांत यशूय मेळ्ळें.

हालींच्या तेंपार म्हळयार १९८०वर्साचे सुरवेक सावन सोविएत युनियन आनी उदेंत युरोपांत खूब गरजेचे अशे बदल घडून आयल्यात. सोविएत युनियनाचो मुखेली मिखायल गॉर्बाशॉव हाणें राजकीय, भौशीक आनी अर्थीक मळांचेर सुदारणा घडोवन हाडपाखातीर कांय येवजणो आंखल्यो. हाचो परिणाम म्हळयार पोलंड, हंगेरी, चॅक आनी स्लोव्हाकिया, जर्मनी, रुमानिया आनी बल्गेरिया ह्या देशांतल्या लोकांनी निदर्शनां करून चड स्वातंत्र्य आनी कम्युनिस्ट सत्ता बंद करपाच्यो मागण्यो केल्ल्यो. १९८९ - १९९० त ह्या देशांनी उकत्यो वेंचणुको जावन कम्युनिस्टांभायर हेर पक्षांक भौमत मेळ्ळें. १९९०त अस्तंत आनी उदेंत जर्मनीचें एकीकरण जालें. १९९१त वॉरसॉ कबलात बरखास्त केली. १९९१त रशियेंतूय कम्युनिस्ट सत्तेचो अंत जालो. इस्टोनिया, लाटविया आनी लिथुआनिया हांणी रशियेसावन वेगळें जावन आपलें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. उपरांत हेर १२ प्रजासत्ताकांनीय सोविएत युनियनासावन वेगळे जावपाचे निर्णय घेतले. १९९१ - ९२ त युगोस्लावियेंतल्या स प्रजासत्ताकांतल्या चार प्रजासत्ताकांनी आपलें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. १९९२ त आल्बानियेंत जाल्ले वेंचणुकेंत कम्युनिस्टांचेर हार पडली.

- कों. वि. सं. मं.

**युवाघरां (घोटूल) :** भारतांतल्या कांय रानवटी जमातींमदीं थरावीक पिराये उपरांत गांवांतले सगळे लग्न जावंक नाशिल्ले चले आनी चलयो एका विशिश्ट घरांत रातीचीं राबित्याक वतात. त्या घराक युवाघर म्हण्टात. ह्या जमातीच्या दोंगराळ भागांनी आशिल्ल्या ल्हान ल्हान खेडेगांवांचें खाशेलपण म्हळयार तांच्यो तीन समाजीक संस्था : (१) आखाडो (२) पंचायत घर आनी (३) युवाघर. आखाडो म्हळयार गांवच्या मदल्या भागार व्हडल्या झाडासकयल पातळिल्लें आंगण, युवाघराची सुवात चड करून आखाड्या लागींच आसता.

अनुसुचीत जमातींमदीं युवाघराक वेगवेगळीं नांवां आसात. गिटीओरा (मुंडा आनी हो), घुमकुरिया (ओराओं), धनगर बासा (भुईया), घोटूल (गोंड), भोरूंग (आओ आनी सेमानागा).

ओराओं, मुंडा आनी हो ह्यो जमाती ओरिसा, बिहार आनी अस्तंत बंगालांत पातळिल्ल्यो आसात. गोंड हे महाराष्ट्र आनी मध्य प्रदेशांतल्या रानवटी भागांनी आसात. चंद्रपूर जिल्ह्यांत आनी बस्तर भागांत मुडिया गोंड हांचेमदीं घोटूल ही युवाघरांची संस्था प्रचलित आसा.

**(१) अंतर्गत वेवस्था :** कांय जमातींमदीं चल्यांक आनी चलयांक स्वतंत्र घरां आसात, जाल्यार कांय जमातींमदीं एकाच युवाघरांत चले आनी चलयो एकठांय रावतात. पूण खंयचेच जमातींत चल्यांखातीर आनी चलयांखातीर स्वतंत्र युवाघरां आसूंक जाय अशें बंधन ना. पिरायेच्या गटानुसार युवाघराचें वांगडीपण मेळटा आनी ताका धरून तांचे अंतर्गत वेवस्थेंतल्यो वेगवेगळयो जापसालदारक्यो त्या वांगड्या कडेन सोपयतात. ओराओं जमातीच्या घुपकुरियामदीं पिरायेनुसार तीन गट आसात. मुडिया गोंडांनी अशें पिरायेनुसार गट पाडप सोडून दिलां. पूण तांचेमदीं ज्येश्ठ - कनिश्ठ हो भेद आसा. कनिश्ठ वांगडी हे ज्येश्ठ वांगड्यांचे आज्ञेंत रावतात. वांगडी पिरायेन वाडटात तशे ते वयल्या वर्गांत वतात. तेच प्रमाण तांच्या भितरल्या स्थानाचेरूय फरक पडटा आनी जापसालदारकीय बदलता. पिरायेच्या इकरा - बाराव्या वर्सा सावन चले - चलयांक युवाघरांत प्रवेश मेळटा आनी तांचें लग्न जायमेरेन ते थंयच रावतात. युवाघराचें फुडारपण वा तांचेर देखरेख दवरपाचें काम ज्येश्ठ वांगड्यांकडेन आसता. कोणाय विधुराक वा विधवेक ज्येश्ठ वांगडी म्हणून युवाघरांत प्रवेश मेळूंक शकता. फुडाऱ्याच्या पदाखातीर सगळया वांगड्यांतल्यान एकाची निवड करतात. ओराओंमदीं नेतेपद आशिल्ल्या युवकाक 'माहतो' आनी कुंमरिकेक 'बोरका धांगरीन' म्हण्टात. मुडिया गोंडांमदीं हांकां 'सरदार' आनी 'बेलसा' अशें म्हण्टात.

ओराओं चलयांखातीर स्वतंत्र युवाघरां आसात आनी तांकां 'पेल एर्पा' अशें म्हण्टात. पेली कोतवार नांवाचो एक ओरोओं दादलो पेल एर्पाचो मुखेली म्हणून काम करता. ताच्या हातासकयल बोरका धांगरीन नांवाची युवाघरांतली ज्येश्ठ कुमारी चलयांक मार्गदर्शन करपाचें आनी नियंत्रण दवरपाचें काम करता. चल्यांच्या युवाघराप्रमाण चलयांच्या पेल एर्पा नांवाच्या युवाघरांत वांगड्यांचे तीन थर आशिल्ले. ह्या घरांत दर तीन वर्सांनी नव्या वांगड्यांक प्रवेश दिताले. व्हडलीं भुरगीं कोणाक प्रवेश दिवंचो हें थरयतात. गांवांत काम करपाचें आसल्यार घोटुलांतल्या मुखेल्याकडेन मागणी येता आनी योग्य अशा भुरग्याकडल्यान तें काम करून घेतात.

**(२) युवा घराचें कार्य :** रानवटी जमातींत युवाघर म्हळयार तांचे जाण्टे जिणेंतलीं वेगवेगळीं कर्तव्यां करपाखातीर जाय आशिल्लें गिन्यान प्राप्त करून दिवपी एक म्हत्वाची शाळा. चड करून लैंगिक जिणेची आनी फुडारपणाची कला शिकोवपी शाळा. चडशा रानवटी जमातींमदीं चलयांचीं लग्नां खूब उसरां करपाची रीत आसा. तीं आपलो जिणेसांगाती निवडूंक शकतात. मोगांत पडिल्लीं पळून वचून लग्न जावंक शकतात. हाका समाजाची मान्यताय आसता. तीस वर्सांपयलीं ओराओं जमातीच्या घुमकुरिया युवाघराचे पळोवणेंत तीन मुखेल कार्यांची नोंद जाल्ली आसा. युवाघराचो उपेग (१) शयनागार (२) संगीत - नृत्याची पाठशाळा आनी (३) गांवांतल्या गरजेकाराचे मागणेवयल्यान, सरकारी तत्त्वाचेर कामगारांची पुरवण करपाचें केंद्र म्हणून जाताली.

मुडिया गोंडांच्या घोटूल अभ्यासावयल्यान युवाघराचे दोन प्रकार दिसतात. पयल्या प्रकारांत युवाघरां हीं फकत भुरग्यांखातीर वेगळीं केल्लीं आसतात आनी तांची रचणूक झुजारी लोकांच्या बराकी भाशेन आसता. हातूंत भुरग्यांक झुजांत लागपी शस्त्रां पळोवपाची कला, शिकार वा जादूची कला शिकयतात. दुसऱ्या प्रकारांत चल्याक चलये वांगडा लैंगिक संबंद दवरपाक फाटबळ दितात. लग्नापयलीं लैंगिक भूक भागोवप हो ह्या प्रकाराचो मुखेल उद्देश आसता. तांचेर कांय बंधनांय घातिल्लीं आसतात. मुडिया गोंडांच्या घोटुलांमदीं, 'जोडीदार' घोटुलांत चल्या - चलयांच्यो जोडयो लायतात. म्हळयार एका चल्यान एके चलयेकडेन शारिरीक संबंद दवरप अशी सक्ती आसता आनी निमाणें तांचें लग्न जाता. लग्न जायमेरेन 'चेलिक' (चलो) आनी 'मोतीआरी' (चली) हांची जोडी एकामेकांचे निश्ठेत तिगून उरता. दुसऱ्या प्रकारच्या घोटुलांत हाचे उरफाटी परिस्थिती आसता. थंय चेलिक आनी मोतीआरी हांच्यो जोडयो परत परत बदलच्यो पडटात. एका चेलिकान एके मोतीआरीकडेन तीन रातींपरस चड काळ रावल्यार ताका ख्यास्त दितात. घोटुलांत कांय समाजीक जापसालदारक्यो आसतात. कांय शिस्तीय कडक आसतात. कांय धर्मीक उत्सवांमदीं घोटुलाच्या वांगड्यांक वचचें पडटा. तेच प्रमाण गावचे मागणेनुसार श्रमदानूय करचें पडटा. ह्या दोनूय बाबतींनी दोनूय तरांच्या घोटुलांमदीं साम्य आसता.

**(३) परिवर्तन :** ही शिस्त आतां मोडून पडल्या. भायल्या संवसाराकडेन संपर्क आयिल्ल्यान दुडवांचें म्हत्व वाडलां. जिणेंत दिसपी

बदल ह्या रानवटी जमातींच्या युवाघरांचे बाबतींतूय दिसता. चलयांच्या घुमकुरियांची सुवात गुपीत दवरपाची परंपरा पयलीं आसली आनी रितीप्रमाण चल्यांक चलयांच्या युवाघरांत आनी चलयांक चल्यांच्या युवाघरांत वचपाक बंदी आसली. पूण हालींच्या तेंपार अशें जायना. तरी रानवटी जमातींचे जिणेंत ही संस्था म्हत्वाची भुमिका करता. आधुनीक काळाचो स्पर्श जाल्ल्यान घोटूल ही वेवस्था आतां विस्कळीत जावंक लागल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**यूकावा, हीडेकी :** (जल्म : २३ जानेवारी १९०७ टोकिओ; मरण : १० सप्टेंबर १९८१, क्योटो).

जपानी भौतिकीविज्ञ. मूलकण भौतिकींतल्या म्हत्वाच्या संशोधनाखातीर ताका १९४९ वर्साच्या भौतिकीचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. क्योटो विद्यापिठांतल्यान ताणें १९२६ वर्सा भौतिकशास्त्रांत पदवी (ऑनर्स) घेतली आनी १९२९ वर्सा ताणें एम्. एस्सी. ही पदवी घेतली. ही पदवी घेतकच त्याच विद्यापिठांत १९३२ वर्सा तो भौतिक शास्त्राचो अध्यापक जालो. उपरांत ओसाका विद्यापिठांत १९३३ वर्सा तो भौतिकीचो सहाय्यक प्राध्यापक जालो आनी १९३६ वर्सा प्राध्यापक जालो. १९३८ वर्सा ओसाका विद्यापिठाची डी. एस्सी. पदवी घेतकच क्योटो विद्यापिठांत सैध्दांतिक भौतिकीच्या प्राध्यापक पदाचेर ताची नेमणूक जाली. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत अमेरिकेंत प्रिन्स्टनच्या इन्स्टिट्यूट ऑफ ॲडवान्स्‌ड स्टडी (१९४८-४९) आनी न्युयॉर्कांतल्या कोलंबिया विद्यापिठांत (१९४९-५१) अभ्यागत प्राध्यापक म्हणून काम करतकच यूकावा जपानाक परतलो आनी थंय क्योटोचे रिसर्च इन्स्टिट्यूट फॉर फंडामँटल फिझिक्स हे संस्थेचो संचालक जालो (१९५३-७०). ओसाका विद्यापिठांत काम करतना ताणें अणुकेंद्रांतल्या न्यूट्रॉन आनी प्रोटॉन हांकां बध्द करपी प्रबल पूण अत्यल्प कार्यकारी पल्लो आशिल्ले प्रेरणेविशीं संशोधन केलें. हातूंत ताणें विद्युत् चुंबकीय प्रेरणेच्या साधर्म्याचो उपेग केलो. हे बाबतींत दोन विद्युत् भारीत कणांतल्या विद्युत् चुंबकीय परस्परक्रिया ही ह्या कणांतल्या फोटॉनाच्या विनिमयाच्या रुपांत जाता. हाचे वयल्यान जे तरेन इलॅक्ट्रॉन आनी प्रोटॉन हांची परस्परक्रिया फोटॉनाच्या विनिमयाच्या स्वरुपांत जाता, तेच तरेन अणुकेंद्रांतल्या प्रोटॉन आनी न्यूट्रॉन हातुंतली परस्पर क्रिया योग्य कणाच्या विनियमावतीन जाता, अशें ताणें मानलें.

पूंज सिध्दांताप्रमाण कणाचें द्रव्यमान ताच्या कार्यकारी पल्ल्याच्या व्यस्त प्रमाणांत आशिल्ल्यान द्रव्यमानरहीत फोटॉनाचो कार्यकारी पल्लो अनंत आशिल्ल्याचें मानतात, हाचे वयल्यान प्रबळ प्रेरणेचे बाबतींत तिचो पल्लो $१०^{-१२}$ सेंमी. परसूय उणो आशिल्ल्यान विनिमय जावपी संबंदीत कणाचें द्रव्यमान इलॅक्ट्रॉनाच्या २०० पटींनी आसचें अशें यूकावा हाणें १९३५ वर्सा भाकीत केलें.

१९३७ वर्सा कार्ल अँडरसन हाका विश्वकिर्णांच्या नोंदयल्ल्या मार्गांत असो कण मेळिल्ल्यान भौतिकीविज्ञांनी यूकावा हाच्या गृहीतकाचो हो पुरावो मानून ह्या कणाक म्यू मेसॉन अशें नांव दिलें. हाकाच आता ‘म्यूऑन’ अशें म्हण्टात. ह्या कणाचें द्रव्यमान योग्य आसलें तरी ताची अणुकेंद्रीय कणांकडेन केन्नाय चुकून परस्परक्रिया जाता अशें उपरांत दिशिल्ल्यान हो कण यूकावा हाणें भाकीत केल्लो आनी अणुकेंद्रीय ’गोंद’ म्हणून कार्य करपी कण नासुंये अशें अनुमान काडप जालें. हे त्रुटीचें स्पश्टीकरण करपाखातीर वाय्. टानिकावा आनी एस्. साकाटा हांणी सुचयलें, की प्रत्यक्षांत दोन वेगवेगळे पूण परस्पर संबंद आशिल्ले दोन मेसॉन कण आसुंये. १९४७ वर्सा सी. एफ्. पॉवेल आनी हेर शास्त्रज्ञांक विश्वकिर्णांत दुसऱ्या तरांचो मेसॉन मेळ्ळा. ह्या कणाचें द्रव्यमान इलॅक्ट्रॉनाच्या २६४ पटींनी आसून ताच्या क्षयांतल्यान म्यूऑन तयार जाता, अशें दिसलें. ह्या कणाक पयलीं पाय् मेसॉन आनी उपरांत पायॉन अशें नांव पडलें आनी ह्या कणाची अणुकेंद्रीय कणांकडेन प्रबळ परस्परक्रिया जाता अशेंय दिसलें. प्रत्यक्षांत यूकावा हाणें भाकीत केल्लेप्रमाण तीन विंगड विंगड पायॉन म्हळयार धन भारीत, ऋण भारीत आनी विद्युत् भाररहीत हे आसून तांचें उपरांत १९४९ म्हळयार प्रायोगीक रितीन अस्तित्वूय सिध्द जालें.

नोबॅल पुरस्कारा भायर ताका जपान अकादेमीचें इंपीरिअल इनाम (१९४०), रशियन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचें लमनॉसॉव्ह भांगरा पदक (१९६४) हे भोवमान मेळ्ळे. तो जपान अकादमी, रशियाची ॲकॅडमी ऑफ सायन्सीस, अमेरिकेची नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, लंडनची रॉयल सोसायटी, इंडियन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस ह्या मानादीक विज्ञानीक संस्थांचो वांगडी आशिल्लो.

ताचे बरेचशे संशोधनाचेर निबंद, तशेंच पुंजयामिकी आनी मूलकण सिध्दांत ह्या विशयांचेर अनुक्रमान १९४७ आनी १९४८ वर्सा जपानी भाशेंतले दोन ग्रंथ उजवाडा आयले. १९४६ वर्सा सावन तो प्रोग्रॅस ऑफ थिऑरेटिकल फिझिक्स ह्या इंग्लीश नेमाळयाचो संपादक आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**यूप :** यज्ञांत बळी दितात त्या जनावराक बांदपाचो खांबो. पळस, खैर, बेल वा रोहितक ह्या झाडांचो यूप करतात. यूप करपाखातीर इत्सेप्रमाण झाडां वेंचतात. युपाची लांबाय तीन हातांपासून मुखार कितलीय आसल्यार जाता. एका हाताचोय यूप करचो अशें कात्यायन श्रौतसूत्रांत म्हळां.

सकयले वटेन यूप रूंद आसता आनी वयले वटेन तो बारीक जायत वता. तशेंच तो चवकोनी वा आठ कोनांचोय आसता. युपाचेर चषाल बसयतात. ज्या झाडाचो यूप करतात त्याच झाडाचो चषालूय करतात. फोंडकुलांत पुरिल्ल्या युपाचो जितलो भाग मातयेंत

आसता ताका उपर म्हण्टात. उपर तासपाचो नासता.

यूप तयार करपाचो विधी असो - अध्वर्यू पयलीं आहवनीयाग्नींत युपाहुती दितात. मागीर उरिल्लें आज्य घेवन तो मेस्तावांगडा रानांत वता. झाड वेंचून काडले उपरांत अध्वर्यू, ब्रह्मा, येजमान आनी मेस्त ताका हात लायतात. 'विष्णवे त्वा' हो मंत्र म्हणून अध्वर्यू आज्य युक्त स्त्रुव्यान झाडाच्या खोडाक स्पर्श करता. खोडाचेर तिरपो दर्भ दवरून 'औषधे त्राय स्वैनम्' अशें म्हण्टा आनी 'स्वधिते मैनं हिंसी :' अशें म्हणून ताचेर कुराडीन घाव घालतात. मागीर त्या खोडाचो यूप तयार करतात.

आहवनियाचे उदेंतेक शिमेचेर यूप पुरतात. यूप उदकान धुयले उपरांत ताचेर यव घाल्लें उदक फाफुडटात. यूप कापचे पयलीं सुरवेक काडिल्ली पयलीच कापटी आनी मूठभर दर्भ युपाचेर दवरतात. मागीर ती कापटी यूप पुरपाखातीर केल्ल्या फोंडकुलांत दवरतात. आज्याहुती दिले उपरांत अध्वर्यू वा येजमान युपाचे दक्षिणेक बसून ताका तूप चोळटात. यूप फोंडकुलांत दवरतना 'या ते धामानि' हो मंत्र म्हण्टात. ताचें तोंक आहवनियावटेन लंवडतलें अशे तरेन तो पुरतात. उपरांत येजमान युपाभोंवतणीं पटो (मेखला) गुंठलायता. ताका यूपद्वीप वा यूपहस्ती अशें म्हण्टात. प्रोक्षण, अंजन, उच्छ्रयण, परिव्ययण हे सगळे संस्कार एका फाटोफाट ताचेर करतात.

वाजपेय यज्ञांत यूप सतरा हात लांब आनी चवकोनी आसता. ताचेर बसोवपाचो चषाल गंवाच्या पिठाचो करतात. ह्या यागांतल्या युपाक सतरा वस्त्रां गुंठलायतात. अश्वमेध यज्ञांत एकवीस यूप आसतात. युपाक भोंवताडे घाल्यार वाजपेय यज्ञाचें पुण्य मेळटा, अशें सांगिल्लें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**येंडे, दीनानाथ शाबी :** (जल्म : १ जानेवारी १९३० म्हापशें - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी मुळावें आनी इंग्लिशींतल्यान शिक्षण घेतलें. तो १९४६ वर्सा सावन 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. ६ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा १२ सत्याग्रह्यांवांगडा ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. तेन्ना पुलिसांनी ताका धरून लश्करी न्यायालयामुखार उबो केलो आनी ९ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच १५ वर्सांखातीर ताच्या राजकीय हक्कांचेर बंदी हाडली. ऑगस्ट १९५९ वर्सा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. बंदखणींतल्यान सुटका जाले उपरांत तो राजकीय चळवळींनी वांटो घेतालो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**येंडे, नरसिंह सुब्राय :** (जल्म : २७ ऑक्टोबर १९३५ म्हापशें, बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी मुळावें आनी इंग्लिशींतल्यान शिक्षण घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५४ वर्सासावन ताणें राजकीय प्रचार करूंक सुरवात केली. ६ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा सुधाताई जोशी हिच्या फुडारपणाखाला म्हापश्यां हांगा जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो, तेन्ना पुलिसांनी ताका अटक केली. बंदखणींत ताका सुमारा भायर मार घालताले. १० म्हयन्यां उपरांत लश्करी न्यायालया मुखार उबो करून ताका ९ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण ४ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगतकच २८ नोव्हेंबर १९५८ ह्या दिसा ताची सुटका जाली. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**येन्सन, युहानेस विल्हेल्म :** (जल्म : २० जानेवारी १८७३ फार्सो, डॅन्मार्क; मरण : २५ नोव्हेंबर १९५०, कोपेनहायन).

डॅन्मार्की कथा - कादंबरीकार, कवी आनी निबंदलेखक. १९४४ वर्साचो साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार ताका मेळ्ळो.

कोपेनहायन विद्यापिठांत कांय काळ वैजकीचो अभ्यास करतकच ताणें लेखक जावपाचें थरयलें. सुरवेक ताका कथालेखक म्हणून नामना मेळ्ळी. सामान्यपणान ताच्या कथांचे तीन प्रकार करूं येतात. ते अशे - ताच्या प्रदेशांतले लोक, परंपरा, आख्यायिका, सृश्टीची सोबीतकाय हेविशींच्यो कथा हिमरलँड स्टोरीस; सामके उदेंतेकडल्या देशांतले भोंवडेचेर आदारिल्ल्यो एक्झॉटिक स्टोरीस (३ खंड) आनी मिथ्स ह्या नांवान उजवाडा आयिल्ल्यो कथा (७ खंड) ताणें बरयल्यो. 'द फॉल ऑफ द किंग' (इं. अणकार १९३३) ही ताणें बरयल्ली इतिहासीक कादंबरी. ही कादंबरी ताणें, सोळाव्या शेंकड्यांतलो डॅन्मार्काचो राजा क्रिस्त्यान दुसरो हाचे जिणेचेर बरयल्या.

ताच्या लिखाणांत डॅन्मार्की लोक, तांचे स्वभाव, डॅन्मार्की सैम आनी इतिहास ह्या गजालींचो ताणें केल्लो अभ्यास दिश्टी पडटा. अमेरिकेंत भोंवडी करतकच ताणें 'मादाम ढोरा' (१९०४) आनी 'द व्हील' (१९०५) ह्यो दोन कादंबऱ्यो उजवाडायल्यो.

येन्सनच्या 'द लाँग जर्नी' (३ खंड) ह्या स कादंबऱ्यांक खूब नामना मेळ्ळी. ताचेर डार्विनच्या उत्क्रांतिवादी विचारांचो खूब प्रभाव आशिल्लो आनी तो ताच्या कादंबऱ्यांनी दिसता. स्वताच्या निबंदांनीय ताणें डार्विनाचेर विचार मांडल्यात.

येन्सन हो एक प्रतिभावंत कवीय आशिल्लो. १९४३ वर्सामेरेन ताची कविता Digte - १९०१-१९४३ ह्या नांवान संकलीत जाल्ली आसा. आर्विल्ले डॅन्मार्की कवितेचेर ताचो खूब प्रभाव आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**येरूकल :** एक हेडगी जमात. ह्या लोकांक एरूकल अशेंय म्हण्टात. हांची वसती चड करून आंध्र आनी तमीळनाडूंत आसा. एरूक ह्या तेलुगू उतराचो अर्थ मंत्र मारप वा भविश्य सांगप असो जाता. हे जमातीच्यो बायलो हो वेवसाय करतात. म्हणून हे जमातीक हें नांव मेळ्ळें आसुंये.

हे जमातींत उरू, उप्पू आनी डब्ब अशे मुखेल तीन भेद आसात. उरू येरूकल हे खेडेगांवांत स्थायीक जावन शेती करतात. उप्पू येरूकल हे मीठ आनी हेर वस्तू विकतात. डब्ब येरूकल हे दोंगराच्या मुळसांत रावन हांतरपटे, बुटयो करून विकतात.

हे लोक येरकली नांवाची तेलुगू, तमीळ आनी कन्नड ह्यो भासो भरसल्ली आसा जी चोरयेच्या संदर्भांत ते वापरतात.

येरूकल दादले धोंपरामेरेन मोटवें धोंतर न्हेसतात. तांच्यो बायलो साडी आनी पोल्को घालतात. गळयांत तरातरांच्या रंगाच्यो माळो घालतात. तशेंच, हातांत कंवचेचीं कांकणां आनी बोटांक रुप्याच्यो मुदयो घालतात.

हे लोक माजर, कुकडां, दुकर, बोकडयो सारकिल्या जनावरांचें मास आनी नुस्तें खातात.

ह्या लोकांचो शकुनाचेर खूब विश्वास आसता. चोरी करपाक वचचेपयलीं ते शुभ शकून आनी आपल्या कामांत यश मेळचें म्हणून देवाची पुजा करतात. तिरूपतीचो व्यंकटेश आनी लक्ष्मी हांकां ते भजतात.

हांचीं लग्नाची पद्दत हिंदू लोकांभाशेन आसता. हांचे मर्दी वधुशुल्क दिवपाची पद्दत आसा. लग्नाच्या वेळार न्हवरो व्हंकलेच्या गळयांत काळो धागो बांदता आनी मागीर न्हवरो व्हंकल एकामेकांचेर अक्षता उडयतात. लग्नाच्या वेळार हे लोक खूब सोरो पियेतात.

गुन्यांवकारी जमात म्हणून ह्या लोकांची नोंद जाल्ली आसा. पयलीं हे सगळे लोक हेडगे आशिल्ले आनी चोरयो, घरफोडी करताले. पूण तांचे मदले कांय जाण आतां एके सुवातीचेर स्थायीक जावन शेती करतात. कांय जाण बुटयो, दोरयो, हांतरपटे विणून विकतात. कांय लोक कोडूलिंबाचीं पानां एकठांय करून सुकयतात आनी विकतात. कांय भीक मागतात जाल्यार कांय भविश्यय सांगतात. भीक मागप आनी भविश्य सांगप हांचो उपेग ते चोरी करपाखातीर घरां सोदून काडपाकय करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**येर्ने, नील्स काय :** (जल्म : २३ डिसेंबर १९११ लंडन).

डॅन्मार्की ब्रिटीश प्रतिरक्षावैज्ञानिक (immunologist). जॉर्जेस जे. एफ्. कोलर आनी सेझार मिलस्टायन् ह्या हेर दोन शास्त्रज्ञांवांगडा येर्ने हाका १९८४ च्या शरीरक्रियाविज्ञान वा वैजकीचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. रोगप्रतिकार क्षमताय (disease resistancy) ह्या विशयाचो सतत तीस वर्सां अभ्यास केलो आनी ताणें ताचेर तीन सिध्दांत मांडले. ह्या सिध्दांतांतल्यान ह्या शास्त्राच्या आर्विल्ल्या विकासाची रूपरेखा स्पश्ट केल्ली आसून फुडलें संशोधन करपाक मार्गदर्शन केलां.

एका डॅन्मार्की कुटुंबांत येर्नेचो जल्म जालो. सुरवेक डॅन्मार्कांत आनी उंचेलें शिकप नॅदर्लंड्सांतल्या लायडेन विद्यापिठांत घेवन पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा ताणें पदवी घेतली. फुडलीं बारा वर्सां अनिश्चीततायेंत घालयतकच ताणें कोपेनहायन् विद्यापिठांत वैजकी शिक्षणाक सुरवात केली. १९४३-५६ ह्या काळांत डॅनिश स्टेट सीरम इन्स्टिट्युटांत तो संशोधक म्हणून काम करतना १९५१ वर्सा ताणें कोपनहायन विद्यापिठाची एम्. डी. पदवी घेतली. १९५६- ६२ ह्या काळांत तो संवसारीक भलायकी संघटनेच्या प्रतिरक्षाविज्ञान विभागाचो मुखेल आशिल्लो. १९६०- ६२ त जिनिवा विद्यापिठांत जीवभौतिकीचो प्राध्यापक, १९६२-६६ त अमेरिकेंतल्या पिट्सबर्ग विद्यापिठाच्या सुक्ष्म जीवविज्ञान विभागांत प्राध्यापक, १९६२-६८ ह्या काळांत संवसारीक भलायकी संघटनेच्या विंगड विंगड सल्लागार मंडळांचें वांगडीपद आनी १९६६-६९ त फ्रॅंकफुर्ट हागांच्या योहान वोल्फगांग गटे विद्यापिठांत प्रायोगिक चिकित्साशास्त्राचो प्राध्यापक आनी पॉल अर्लिक इन्स्टिट्युटाचो संचालक म्हणून ताणें काम केलां. तेउपरांत १९६९-८० ह्या काळांत तो बाझेलच्या बाझेल इन्स्टिट्यूट ऑफ इम्युनोलॉजी हे संस्थेचो संचालक आशिल्लो. थंयसावन निवृत्त जातकच ताणें पॅरिसांतल्या पाश्चर इन्स्टिट्युटांत खास सल्लागार म्हणून काम केलें आनी तो फ्रांसांतूच स्थायीक जालो.

येर्नेन १९५५ वर्सा पयलो सिध्दांत मांडलो. ह्या सिध्दांताप्रमाण खाशेलो प्रतिपींड प्रतिसाद अशे तरेन तयार जाता. दर एके व्यक्तीच्या शरिरांत सैमीक प्रतिपिंडां व्हड प्रमाणांत आसतात आनी तीं सगळया प्रतिजनांक प्रतिसाद दिवंक शकतात. गर्भावस्थेंतूच हीं प्रतिपिंडां भायलें कसलेंच प्रतिजन नासतना तयार जातात. फुडें भायलें प्रतिजन योग्य रितीन संयोजीत जावं येता असो प्रतिपींड रेणू वेंचता आनी बध्द जाता. ही प्रतिजन - प्रतिपींड बध्दताय विशिश्ट गूणधर्माचे प्रतिपींड निर्मितीक चेतयता. ह्या सिध्दांताक 'प्रतिपींड निर्मितीचो सैमीक निवड सिध्दांत' अशें नांव आसून ताका आर्विल्ल्या प्रतिरक्षाविज्ञानाचो मुलाधार मानतात.

१९७१ वर्सा ताणें आपलो दुसरो सिध्दांत मांडलो. तातूंत दर एका मनशाचे जिणेंतले प्रतिरक्षा यंत्रणेचे कायिक घडामोडींतल्यान जावपी प्रगतीची म्हायती आसा. १९७४ वर्सा ताणें तिसरो म्हत्वाचो 'जालक सिध्दांत' मांडलो. हातूंत विशिश्ट प्रतिरक्षा प्रतिसादाचें नियंत्रण कशें जाता तें सांगलां.

प्रतिपिंडां पयल्या प्रतिपिंडावयलें प्रतिजन बध्द करूंक शकपी पदार्थाआड नव्या प्रतिपिंडाची निर्मिती करूंक शकतात आनी तांकां प्रति - प्रतिपींड म्हण्टात. हीं प्रति - प्रतिपिंडां प्रति - प्रति - प्रति -

प्रतिपिंडां निर्माण करूंक शकतात. मुलार्थान हीं प्रतिपींड निर्मिती अंतहीन आसता आनी नव्या विशिश्ट गूणधर्मांची सतत भर पडत आसता. दर एक नवें उत्पादन (पिळगी) एकमेकांचें दमन वा वृध्दी करता. प्राकृतिक (सादारण) अवस्थेंत हे प्रतिपिंडांचे जालक सदांच संतुलीत आसतात. जेन्ना कुडींत कसलेंय प्रतिजन प्रविश्ट जाता तेन्ना हें संतुलन इबाडटा. यंत्रणा जेन्ना इबाडिल्लें संतुलन पूर्ववत करपाचो यत्न करता तेन्ना त्या प्रतिजनाआड प्रतिसाद निर्माण जाता. ह्या सिध्दांताचो उपेग कांय प्रायोगिक वैजकांत आनी प्रत्यक्ष पिडेस्ताकूय केला.

येर्नेच्या पयल्या सिध्दांताचेर सर फ्रँक मॅकफार्लेन बर्नेट आनी सर पिटर ब्रायन मेडावर ह्या शास्त्रज्ञांनी चड संशोधन करून प्रतिपिंडांविशीं नवी म्हायती मेळयल्या. तेरवातीर त्या दोगांकूय १९६० वर्साचो शरीरक्रियाविज्ञान वा वैजकीचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो.येर्नेच्या सिध्दांतांनी प्रतिरक्षाविज्ञानांत म्हत्वाची भर घाल्या. नोबॅल पुरस्कारावांगडा येर्नेक हेर कांय म्हत्वाचीं इनामां मेळ्ळयांत तीं अशीं - शिकागो, कोलंबिया (न्यूयॉर्क), कोपनहायन आनी बाझेल. ह्या विद्यापिठांनी दिल्ल्यो डॉक्टरेट पदव्यो, टोरॉंटो (कॅनडा) च्या गेर्डनर प्रतिश्ठानाचो आंतरराश्ट्रीय पुरस्कार (१९७०), अमेरिकेचो वॉटरफर्ड बायोमॅडिकल सायन्स पुरस्कार (१९७८) आनी स्वित्झर्लंडाच्या मार्से बेनॉयस्ट प्रतिश्ठानाचें इनाम (१९७९) हीं उल्लेख करपासारकीं इनामां आसात. ताणें रॉबर्ट कॉख इन्स्टिट्यूट (बर्लिन), अमेरिकन ॲकॅडेमी ऑफ आर्ट्स ॲंड सायन्सीस, अमेरिकन ॲसोसिएशन ऑफ इम्युनॉलॉजिस्ट्स, नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस (अमेरिका), रॉयल डॅनिश ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, रॉयल सोसायटी (ब्रिटन) ह्या विज्ञानीक संस्थांचो वांगडी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**येशु ख्रिस्त :** (पळेयात ख्रिस्त).

**योगवसिष्ठ :** संस्कृत भाशेंतलो एक तत्त्वज्ञानपर ग्रंथ. ह्या ग्रंथाक आर्ष रामायण, वसिष्ठ रामायण आनी मोक्षोपायसंहिता अशींय नांवां आसात. तीर्थयात्रा करून परत आयले उपरांत श्रीरामचंद्राक परम वैराग्य प्राप्त जालें आनी संवसाराविशीं ताका सामकी निर्शेणी आयली. त्या वेळार रघुकुलाचो पुरयत वसिष्ठमुनी हाणें ताका जो योगपर उपदेश केलो, तो योगवसिष्ठ ह्या नांवान प्रसिद्द असा. पूण रामचंद्राक अशें वैराग्य प्राप्त जाल्ल्याचें वाल्मिकी रामायणांत खंयच सांगिल्लें ना. देखून योगवसिष्ठाक उत्तर रामायण अशेंय म्हण्टात.

योगवसिष्ठाचो कर्तो कोण हो प्रस्न वादग्रस्त आसा. ग्रंथांतल्या प्रकरणाचे अखेरेक 'इत्यार्षे श्रीमद्वासिष्ठरामायणे वाल्मीकीये' असो मजकूर आशिल्ल्यान हो ग्रंथ वाल्मिकीन रचला अशी भावना जाता. परंपरागत समजुतय अशीच आसा. हे समजुतीक मूळ रामायण आनी योगवसिष्ठ ह्या दोनूय ग्रंथांतल्यान आदार मेळटा.

योगवसिष्ठाच्या कामासंबंदींय विद्वानांमदीं मतभेद आसात. डॉ. दासगुप्त हाच्या मतान हो ग्रंथ इ.स. च्या सातव्या वा आठव्या शेंकड्यांत रचला आसुंये. डॉ. फर्कुहार ताचो काळ इ.स. चो १३ वो वा १४ वो शेंकडो मानता. श्री. दिवाणजी हो काळ इ.स. चो १० वो शेंकडो, श्री. भट्टाचार्य तो इ.स. चो १० वो शेंकडो आनी १२ वो शेंकड्या मजगतीं, डॉ. भीखनलाल आत्रेय तो इ.स. चो ५ वो शेंकडो आनी डॉ. राघवन तो इ.स. च्या ११ व्या शेंकड्याउपरांत आनी १३ व्या शेंकड्याच्या मध्यापयलीं मानता. डॉ. माईणकर हाणेंय तीन पांवड्यांचो वेगवेगळो काळ मानला.

योगवसिष्ठाची रचना खंय जाली हाचेविशीं एकमत ना. एकाद्री ताची रचणूक उदेंत भारतांत, बंगालांत जाली आसुंये अशें श्री. भट्टाचार्य मानता. श्री. दिवाणजी हाणें ताचें मत खोडून काश्मीर हें ताचें जल्मस्थान मानलां आनी डॉ. राघवन होय कश्मीर पक्षाचोच आसा.

योगवसिष्ठ हो ग्रंथ खूब व्हड. तशेंच ताची श्लोकसंख्या बत्तीस हजार. ग्रंथाचो विस्तार आनी पुनरुक्ती हांकां लागून हो ग्रंथ वाचप कठीण जाता. देखून ह्या ग्रंथाच्यो दोन संक्षिप्त आवृत्त्यो आयल्यो. तातुंतल्या एका ग्रंथाचें नांव लघुयोगवसिष्ठ. तातूंत स हजार श्लोक आसात. हो ग्रंथ कशमीरांतल्या गौड अभिनंद नांवाच्या पंडितान इ.स.च्या णवव्या शेंकड्यांत तयार केलो. ह्या ग्रंथांत मुळाव्या योगवसिष्ठांतलो निर्वाण प्रकरणाचो पुर्वार्दूच आयिल्लो आसून उत्तरार्द येवंक ना. देखून हो ग्रंथ अर्दकुटो दिसता. मराठी कवींनी ह्या ग्रंथाचो अणकार केला. योगवसिष्ठाचो दुसरो संक्षेप योगवसिष्ठसार ह्या नांवाचो आसून तातूंत २२५ श्लोक आसात. हो संक्षेप कोणे आनी केन्ना केलो हें खबर ना.

योगवसिष्ठ हो ग्रंथ सगळो संग्राहक आसून तातूंत वेगवेगळया तरांचीं दर्शनां, तत्त्वज्ञानां, मतां आनी विचारसरण्यांचो आस्पाव आसा. तशेंच तो एक अध्यात्मीक ग्रंथ आसून तातूंत गिन्यान आनी साधना ह्या दोनांचेंय विवेचन आसा. तशेंच योगवसिष्ठकारांनी आपल्या दार्शनीक सिध्दांतांचें प्रतिपादन स्वानुभव, दृश्टान्त आनी उपाख्यान हांच्या आदारान केलां. ह्या ग्रंथांत वट्ट पंचावन उपाख्यानां आसात. तातुंतलीं लीला, इंद्रजाल, प्रल्हाद, गाधी, शतरूद्र, राणी चुडाला हीं कांय उपाख्यानां म्हत्वाचीं आनी व्हड आसात.

योगवसिष्ठ हो जरी तत्त्वज्ञानपर ग्रंथ आसलो तरीय ताची शैली सादी आनी सोंपी आसा. योगवसिष्ठकारांनी ब्रम्हविद्या ही काव्याच्या स्वरुपांत लोकांमुखार मांडपाचो यत्न केला. हो ग्रंथ वाचता आसतना वाचप्याक आपूण आत्मानुभव घेतिल्ल्या व्हड व्यक्तीच्या सहवासांत आशिल्लेवरी दिसता. ताच्या मनांत येवपी दुबावांचेंय स्पश्टीकरण जाता.

ह्या ग्रंथांत पुनरूक्ती खूब आसा. तशेंच ह्या ग्रंथांत वेगवेगळीं प्रकरणां हीं नांवापुरतींच आसात. दर एका प्रकरणांत सगळया प्रकरणांतले सिध्दांत आयिल्ले आसात. विशयांच्या विवेचनांतूय क्रम ना. तशेंच, हो ग्रंथ खूब व्हड आसा, होय ताचो एक दोश.

- कों. वि. सं. मं.

**योगशिखोपनिषद :** १) एक नव्य उपनिषद. स अध्यायांचें हें प्रदीर्घ उपनिषद. शंकरान हिरण्यगर्भाक हाचो उपदेश केल्लो.

हाच्या पयल्या अध्यायांत सांगलां ते प्रमाण, फक्त शास्त्राच्या अभ्यासानूच ब्रह्मप्राप्ती जायना, जाल्यार ती सिध्दिमार्गान जाता. गिन्यान आनी योग ह्या साधनांनी जीव पवित्र जालो म्हणजे तोच शिव जाता. गिन्यान आनी योग एकामेकांचेर आदारून आसात. चार योगांवांगडाच भावनायोग आनी सहजयोग अशे आनिकूय दोन योग आसात.

हाच्या दुसऱ्या अध्यायांत सांगलां की, ओंकार हो मूलमंत्र. तशेंच तो सगळया मंत्रांचें मूळ, ब्रह्मयाचें मूळ स्वरूप आनी नादलिंगूय आसा. नाद हो सर्वश्रेश्ठ मंत्र, आत्मो हो सर्वोच्च देव, नादानुसंधान ही सगळयांत व्हड पुजा आनी खोस ही परमसूख आसा.

जीव फट, ब्रह्म हें एकूच सत. हें ब्रह्म संवसारांत सत्यार्थान वसती करून आसा. ज्ञानोदयाउपरांत सच्चिदानंदाची अनुभुती येता अशें तिसऱ्या अध्यायांत सांगलां.

हें जग फकत भास कशें आसा तें जायत्या दृश्टांतांनी चवथ्या अध्यायांत सांगलां.

पांचव्या अध्यायांत देह हें विष्णुचें देवूळ आशिल्ल्याचें सांगलां आनी मूलाधारादी चक्रां आनी कामरूपादी पिठां हांचें वर्णन आसा.

सव्या अध्यायांत परानाडीचें वर्णन आसा. तिच्या जाग्याचेर ध्यान केल्ल्यान योग्याक ब्रह्मरंध्रांत प्रवेश मेळोवपाक जाता. कुंडलिनी जागी जावन बोमलेच्या देंठाकडच्यान वयर चडपाक लागली म्हणजे योग्याचो मुक्तिमार्ग सुरू जाता. हो कुंडलिनीयोग गुरूक शरण वचून ताचेकडच्यानूच शिकचो.

२) एक नव्य उपनिषद. हे यजुर्वेदाकडेन संबध्द आसात आनी अथर्ववेदाकडेनूय संबध्द आसात, अशा दोनूय तरांचे उल्लेख मेळटात.

आसनाचेर बसले उपरांत नाकाचेर मर्दी नदर दवरून मनाचेर ताबो दवरचो आनी प्रणवाचें ध्यान करचें. योगाभ्यासान सूर्यलोकाचोय भेद करूं येता. योगी सुषुम्नाद्वार शुध्द करून कपालसंपुटाचो भेद करता आनी परमतत्त्वाचो साक्षात्कार करून घेता, अशें हातूंत सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**योगसार :** अपभ्रंश भाशेंतलो एक ग्रंथ. जैनांचे नदरेंतल्यान आत्म्याविशींचें विवरण दिवपी परमप्पपयासु ह्या प्रसिद्द ग्रंथाचो कर्तो जोइंदु हो योगसाराचो कर्तो.

१०८ दोहे आशिल्ल्या ह्या ग्रंथांतूय अध्यात्मचर्चा आयिल्ली आसा. बहिरात्मा, अंतरात्मा आनी परमात्मा अशें आत्म्याचें वेगवेगळें वर्गीकरण करून ग्रंथकर्त्यान परमात्म्याच्या ध्यानाचेर चड भर दिल्लो आसा. पुण्य केल्ल्यान जीव सर्गाक वता आनी पापाक लागून नरकांत पडटा. पूण मोक्षप्राप्तीखातीर (शिववास) पाप आनी पुण्य ह्या दोनांचोय त्याग करून आत्मज्ञान करून घेवपाक जाय अशें तो म्हण्टा.

जोइंदू जैन आशिल्ल्यान ताणें जैनपंथीय परिभाशा ह्या ग्रंथांत आपणायिल्ली आसली तरीय पंथातीत अध्यात्मवाद्यांप्रमाण शिव, बुध्द, जीन आनी सिध्द ताणें समान मानिल्ले आसात.

जोइंदूचो हो ग्रंथ ताच्या परमप्पपयासूचे तुळेन चड सुबोध आनी काव्यमय आसा. शास्त्राध्ययन, कर्मकांड, तीर्थयात्रा हांची निश्फळता दाखोवन आध्यात्मिक मळार मानवी समानतायेचें प्रतिपादन ह्या ग्रंथान केलें. रामसिंहदेवसिंहादि उत्तरकालीन ग्रंथकारांक हो ग्रंथ स्फुर्ती दिवपी थरला. डॉ. आ. ने. उपाध्ये हाणें संपादिल्ल्या परमप्पपयासूचे आवृत्तींत योगसाराचोय आस्पाव जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**योगाचार :** बौध्दांच्या महायान संप्रदायाचो एक पंथ. हाका विज्ञानवाद अशेंय म्हण्टात. मैत्रेय वा मैत्रेयनाथ ( इ.स. ३ रें शतमान) हाणें ह्या पंथाची स्थापना केली. ताणें महायान सुत्रालंकार, धर्मधमाताविभंग, मध्यांत विभंग, महायान उत्तरतंत्र, अभिसमयालंकारकारिका, योगाचार भूमिशास्त्र आदी कांय ग्रंथ बरयले. योगाचार मताक प्रतिश्ठा मेळोवन दिवपी हेर कांय आचार्य अशे आसात - **असंग :** (इ.स. ४ थें शतमान). मैत्रेयनाथानूच ताका ह्या पंथाची दिक्षा दिली. ताणें महायान संपरिग्रह, अभिधर्मसमुच्चय, पंचभूमी, संगीतशास्त्र, वज्रच्छेदिका हे ग्रंथ बरयले. **वसुबंधुः** (इ.स. ४ थें शतमान) हो असंगाचो धाकटो भाव आसून असंगानूच ताका योगाचार पंथाची दिक्षा दिली. ताणें लंकावतारसूत्र आनी विज्ञाप्तिमात्रतासिध्दी हे दोन ग्रंथ बरयले. **स्थिरमती :** (इ.स. ५ वें शतमान) हो वसुबंधुचो शिश्य. वसुबंधुच्या ग्रंथाचेर हाणें वृत्ती बरयल्ली आसा. त्रिशिंकाभाष्य, मध्यांत विभंग सूत्र भाषाटीका, अभिधर्मकोश भाष्यवृत्ती, सूत्रालंकारवृत्तीभाष्य आनी मूलमाध्यमिक कारिकावृत्ती हे ताचे नामनेचे ग्रंथ. **दिङ्नाग :** (इ.स.चें ५ वें शतमान). हो वसुबंधुचो शिश्य आसून शास्त्रार्थ करपांत हुशार आशिल्लो. देखून ताका वादिवृषभ अशीय उपाधी मेळिल्ली. हाचे प्रमाणसमुच्चय, प्रमाणसमुच्चयवृत्ती, न्यायप्रवेश, हेतुचक्रनिर्णय आदी ग्रंथ प्रसिद्द आसात. **धर्मकीर्ती :** (इ.स.चें ६ वें शतमान) : हाणें प्रमाणवार्तिक, न्यायबिंदू, हेतुबिंदू, प्रमाणविनिश्चय, वादन्याय आदी

ग्रंथ बरयल्ले आसात. **धर्मपाल :** (इ.स. ६ वें शतमान). : हो नालंदा बौध्द बिहाराचो अध्यक्ष आशिल्लो. ताणें योगाचार आनी शुन्यवाद ह्या दोनय ग्रंथांचेर टीका बरयल्ली.

असंगान ह्या पंथाक योगाचार हें नांव दिलें जाल्यार वसुबंधून ताका विज्ञानवाद अशी संज्ञा दिल्ली. तिबेट आनी चीन ह्या देशांनी ह्या वादाचे जायते फांटे निर्माण जाल्यात.

ह्या मतांत बोधिप्राप्तीखातीर यौगिक आचार हें सगळयांत प्रभावी साधन मानिल्लें आसा. ताका लागून ह्या मताक योगाचार हें नांव पडलें. मैत्रेयनाथ हो एक व्हड योगी आशिल्लो आनी ताणें विज्ञानाच्या साक्षात्काराखातीर यौगिक प्रकियेचें अनुसरण केल्लें. बोधसत्वदशेंतली दश भूमी पार करतकच बोधी मेळूंक शकता. हाकाच विज्ञानवाद अशेंय म्हण्टात. कारण हातूंत विज्ञप्तिमात हेंच निमाणें सत्य मानिल्लें आसा. म्हणजेच विचार हेंच सत्य अशें हातूंत मानप जालां. अशे तरेन योगाचार ही ह्या दर्शनाची वेव्हारीक कूस आनी विज्ञानवाद ही ताची वैचारीक कूस.

लंकावतारसूत्र हो ह्या मताचो मुखेल ग्रंथ. ह्या ग्रंथाप्रमाण विज्ञान वा चित्त हांचे भायर हेर खंयचेच भायले वस्तूक म्हत्व ना. ह्यो भायल्यो वस्तू सपन, मृगजळ वा आकाशफूल हांचेवरी असत आसात आनी चित्त वा विज्ञान तितलेंच सत. ह्या चित्तापासून सगळ्या जगताचें प्रवर्तन आशिल्ले आनी चित्ताच्या निरोधाक लागून जगताचोय निरोध जाता. विचारांत ग्राह्य आनी ग्राहक अशी दोट्टी भावना प्रस्थापित जाली म्हण्टकच तिका परिकल्विन ही संज्ञा मेळटा. विचार म्हणजेच चित्त. ताची उत्पत्ती खंयच्याच भायल्या पदार्थापासून जायना. सूख आनी दूख हीं लेगीत चित्तापसुनूच निर्माण जातात. चित्त परतंत्र आसा. एक चित्ताची उत्पत्ती दुसऱ्या चित्तांतल्यान जाता. बौध्द दार्शनीक अशा चित्ताक खिणयाळें मानतात. ते एका चित्तांतल्यान दुसऱ्या चित्ताची उत्पत्ती मानतात आनी ह्या दोन चित्तांमदल्या काळाक तांणी निष्यंदकाळ अशें नांव दिलां. उतरांच्यो दोन माळो आसतात. एके माळेंत ज्ञेय, ग्राह्य आनी अभिधेय जाल्यार दुसरे माळेंत गिन्यान, ग्राहक आनी अभीधान आसता. चित्त जाणून घेवपाचें आसल्यार ह्या दोनूय माळांक वेगळें करपाची गरज लागता. दोगांयभितरल्यान मुक्त जाल्लें चित्त मागीर उतरांची शीम हुपंता. हे अवस्थेचें वर्णन करप कठीण आशिल्ल्यान बौध्द परिभाशेन तिका अनभिलाप्य अशें म्हळां. मनशाची क्लेश आनी ज्ञेय हीं आवरणां पयस जालीं म्हणजे तो चित्तमात्रांत निर्वाणपद मेळयता.

विज्ञानाचे जायते भेद आसात. तातूंत आलयविज्ञान आनी प्रवृत्तीविज्ञान हे दोन मुखेल आसात. आलयविज्ञानाक चित्त अशेंय म्हण्टात. ह्या चित्तांत जिवाच्या कायीक, वाचीक आनी मानसीक अशा विज्ञानांचीं वासनारूप बिजां एकठांय रावतात आनी योग्य वेळार संवसारांत प्रकट जातात. फुडें चित्तांतूच परत ताचो लय जाता.

ह्या मतांत सगळयो वस्तू खिणयाळयो मानिल्ल्यान आलय विज्ञानय खिणयाळेंच आसा. दर खिणाक तातूंत परिवर्तन जायत आसता. आलयविज्ञानांत शुभाशूभ वासनांवागडाच चक्षुर्विज्ञान (पळोवप), श्रोत्रविज्ञान (आयकप), धारणविज्ञान (घेवप), रसनाविज्ञान, कायविज्ञान, मनोविज्ञान आनी क्लिष्टमनोविज्ञान हीं सात विज्ञानां आसात. तांकां प्रवृत्ती विज्ञान अशीय संज्ञा आसा. आलयविज्ञानासावन तांची उत्पत्ती जाता आनी आलयविज्ञानांतच ते लीन जातात.

क्लेशावरण आनी ज्ञेयावरण हीं दोन आवरणां पयस जालीं म्हण्टकच मोक्षप्राप्ती जाता अशें विज्ञानयोगी मानतात. क्लेश हो मुक्तीक बाधक आसा देखून क्लेशावरणाची निवृत्ती जाली म्हण्टकच मोक्षलाभ जाता. पूण तितल्यान सर्वज्ञतात प्राप्त जायना. ज्ञेयावरणाची निवृत्ती जातकच सर्वज्ञनात प्राप्त जाता. जेन्ना साधक पुद्गल नैरात्म्यात प्रतिश्ठीत जाता तेन्ना क्लेशांचो नाश जावन मुक्तावस्था प्राप्त जाता. पूण साधक जेन्ना धर्मनैरात्म्यज्ञानांत प्रतिश्ठीत जाता, तेन्ना ज्ञेयाच्या अभावाक लागून चित्ताक सर्वज्ञताय प्राप्त जाता. विज्ञानवादी दार्शनीक हाकाच परमपदाची प्राप्ती अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**योगासनां :** योगासनां हें उत्तर योग + आसनां = योगासनां अशा समीकरणान तयार जालां. 'योग' हें उतर मूळ संस्कृत धातू 'युज्' म्हणजे जोडप हाचेपसून तयार जालां. तातूंत जायते संकेत आसात. जीवात्मो आनी परमात्मो हांचो योग, हो योग सादपाखातीर चंचल आशिल्ल्या मनाचेर खास नियंत्रण दवरचें पडटा. ताका योग म्हण्टात. 'चित्तवृत्तींचो निरोध' अशी योगाची व्याख्या करतात. चित्तवृत्तींच्या पुराय निग्रहान सविकल्पक आनी निर्विकल्पक समाधी सादपाक येता. समाधी म्हणजेच योग. हें योग्याचें जिविताचें ध्येय आसता.

योगसाधनेखातीर शरिराची खास तरेची स्थिती दवरप आनी तातूंत सूख दिसप म्हणजेच खास आसन. देखुनूच 'स्थिरसुखं आसनम्' (थीर आनी सुखात्मक शरीरस्थिती म्हणजे आसन) अशी आसनाची व्याख्या योगसुत्रांत केल्ली आसा.

योगशास्त्राप्रमाण शरीर शुध्द करपाचे प्रक्रियेखातीर शरीर ज्या वेगवेगळया स्थितींनी दवरतात तांकां योगासनां म्हण्टात.

योगाचीं आठ आंगां सांगिल्लीं आसत. तीं म्हणजे यम, नियम, आसन, प्राणायाम, प्रत्याहार, धारणा, ध्यान आनी समाधी. हाका अष्टांगयोग म्हणजे आठ आंगां आशिल्लो योग अशें म्हण्टात. शरिरांतलीं वेगवेगळीं इंद्रियां आनी संस्था - देखीक श्वसन, रक्ताभिसरण, पचन, उत्सर्जन आदी, तशेंच स्नायूसमूह, ज्ञानतंतू, मन हांचेसारके घटक ह्या सगळयांची कार्यक्षमताय आनी परस्पर सहनियमन हांचो विकास जावंचो पडटा आनी तो योगासनांच्या

सदच्या सरावांतल्यान सादपाक येता. योगासनांच्या वेगवेगळ्या स्थितींक लागून, हालचालींक लागून फाटीचो कणो (मेरूदंड) आनी तातुंतलो पृश्ठवंशरज्जू म्हणजे मज्जारज्जू - ज्ञानतंतू - मज्जापेशी हांचेर बरो परिणाम जाता.

सादारणपणान पिरायेच्या धाव्या वर्सापसून चले-चलयांक योगासनां करपाक हरकत ना. योगासनां करपाक फांतोडेचो वेळ योग्य. पूण सांजवेळारय तीं केल्यार जातात. योगासनां खातीर जागो शांत, नितळ, हवेशीर आनी मनाक प्रसन्न दिसतलें असो आसचो. चड करून आसनां उपाशीं पोटार करचीं. पेय घेतल्यार अर्द वर तर जेवणा उपरांत उणींच चार वरां वचूंक जाय. आसनां उपरांत अर्द वरान जेवचें. आसनां करतना नितळ, हलके, सदळ आनी जाय तितलेच कपडे घालचे. अशे तरेचे जायते नेम सामान्यपणान सांगतात. कसल्याय दुयेंसांत, पिडेस्त व्यक्तीक, त्या त्या दुयेंसांत अपायकारक थरपी आसनां करचीं न्हय. बायलांनी योगासनां केल्यार जातात. पूण मासिक पाळयेच्या वेळार आनी बाळंटेरांत योगासनां करचीं न्हय. आसनां करता आसतना श्वसनाची गती सदचेभाशेनूच सामान्य आसची. आसनां करतना वा करून जाले उपरांत श्वसनाचो वेग वाडपाक जायना. घाम येवचो न्हय आनी पुरो जाल्ले भाशेन दिसचें न्हय. योगासनां करून जाले उपरांत मनशाक शांत, प्रसन्न, उत्साही आनी खोशी दिसपाक जाय.




योगासनांच्या अभ्यासाचे सुरवेक तीं सवकास आनी संथ गतीन करचीं. खंयचेंय आसन साध्य करपाखातीर शरिराक झटके वा ताण दिवंचो न्हय. तशेंच आसनां मर्दी जाय जाल्यार विश्रांतीय घेवंची. दर एके व्यक्तीन आपणाक शक्य आसा तेप्रमाण एक एक आसनस्थितीचो काळ आनी आवर्तन वाडोवप बरें आनी भलायकेचे नदरेन हिताचें आसता.

आसनां करपाक सुरवात करचेपयलीं शरीर सामान्यपणान तीन स्थितींनी दवरचें पडटा. उबे म्हणजे दंडस्थितींत, बैठकस्थितींत आनी फाटीवयले शयनस्थितींत वा पोटावयले विपरीत शयनस्थितींत. विवेचनाचे सोयीचे नदरेन तीन वर्गीकरणांप्रमाण कांय वेंचीक आसनां अशीं - विपरीत शयनस्थितींतलीं (पोटाचेर न्हिदून करपाचीं) आसनां.

**१) भुजंगासन :** पोटाचेर न्हिदून, हात हड्ड्यालागीं तेंकोवन, पोटामेरेन शरीर फाटीं उखलप, मान वयर उखलून फाटीं घेवप ही कृती. मुखेल संबंद फाटीच्या कण्याकडेन आनी पोटाच्या स्नायूंकडेन.

**२) शलभासन :** विपरीत शयनस्थिती. खाडकी जमनीक तेंकिल्ली, दोनूय मांडयांलागीं उमथे तळहात, जमनीक तेंकिल्ले, श्वास सोडप. श्वास घेत घेत धोंपर वांकडें करिनासतना एकेक पांय ल्हवूच वयर उखलप. भेंडा कडच्यान ताणिल्ले स्थितींत पांयांचे चवडे फाटले वटेन ताणून धरप, श्वसन सवकास. एके खेपे दावो पांय फाटल्यान वयर, दुसरे खेपे उजवो पांय. हें जाता अर्द शलभासन. दोनूय पांय एकेच खेपे उखलून हें केल्यार पूर्ण शलभासन जाता. ह्या आसनांतलो ताण चड करून फाटीचे निमाणे मणके, ओटीपोटांतले स्नायू आनी मांडयांच्या स्नायूंचेर येता. ताका लागून तांची कार्यक्षमताय वाडटा.

**३) धनुरासन :** विपरीत शयनस्थिती. फाटीची सगळी कमान, फाटले वटेन ओटीपोटाचो आनी शरीरमध्याचो भाग जमनीक तेंकिल्लो. धोंपरां फाटल्यान दोडून खोंटो हातांनी ओडून धरिल्ल्यो. नदर वयर, खाडकी वयर उखलून, गळयाचो फुडलो भाग वयर ओडिल्लो. श्वास संथपणान घेवप आनी सोडप. अशा आसनांत, आसन उतरावन पयलींचे स्थितींत चडांत चड संथपणान येवचें पडटा. योग्य आसनस्थितींत खांदे, हड्डें, पोटाचो कांय भाग आनी मांडयो ताणून उखलिल्ल्यो, धोंपरांय खोंटेलागीं धरिल्ल्या हाताचे पकडीन ओडिल्ल्यान चड वाटकुळाकार जावपाक दिवंचो. भुजंगासनांत फाटीचे वयले मणके, शलभासनांत सकयले, जाल्यार धनुरासनांत मदल्यांवांगडा सगळ्याच मणक्यांक ताण बसता. तशेंच पोट, मांडयो, पांय, दंड आनी हातांचेरय ताण बसता.

**४) नौकासन :** विपरीत शयनस्थिती. दोनूय वटांनी अशीर जायत गेल्ल्या आनी दोनूय वटांनी वयर उखलिल्ले नौकेभाशेन शरिराची स्थिती करप. दोनूय हात खांदयांपसून फुडें व्हरून पांयां पडटा ते प्रमाण जोडिल्ले आनी शरीर वयर उखलीत उखलीत हडुया मेरेन उखलप. सुरवेक श्वास सोडिल्लो, पूण जशें जशें शरीर वयर उखलतात तसो तसो श्वास घेत रावप. आसनस्थितींत संथपणान श्वसन. खांदे - हात उखलता आसतनाच मांडयो ताणिल्ल्यो दवरून ताणिल्लीं धोंपरांय ल्हव ल्हव वयर उखलप. शरिराचो सगळो भार पोटाचेर येवपाक दिवंचो. तंत्रीक नदरेन, तशेंच हालचालींचे नदरेन धनुरासन आनी नौकासन ह्या दोनांनीय बरेंचशें साम्य आसून ताण बरेचशे तेच आसतात.

**शयनस्थितींतलीं आसनां : ५) द्विपाद उत्तानासन** - शयनस्थिती. सुरवेक स्वास सोडिल्लो, उपरांत स्वास घेत घेत दोनूय हात जोडिल्ले स्थितींत उखलीत उखलीत, जमनीकडेन काटकोन जायमेरेन उखलप; ताणून थीर करप. धोपरां ताणिल्लीं आनी तीं एकामेकाक तेकिल्लीं आसपाक जाय, फाट आनी खांदे मात्‌ लेगीत उखलचे न्हय. खोंटो ओडून वयर मळबावटेन व्हरचे, पोटाचे आनी मांडयांचे स्नायू सदळ सोडचे. हें आसन केल्ल्यान मांडयांच्या स्नायूंचेर ताण पडटा, तशेंच पोटांतले स्नायू आकुंचन पावतात. अंतरेंद्रियांचेर ताण पडटा. ल्हान आनी व्हडल्या आंतकडयांचेर आनी पाचक ग्रंथीचेर बरो परिणाम जाता.

६) **विपरीत करणी** : शयनस्थिती. उत्तान पादासनापरस शरीर चड म्हणजे खांद्यामेरेन उखलून, फकत खांदे आनी तकली जमनीर तेंकोवन हातांनी शरिराक आदार दिवंचो. ल्हव ल्हव स्वास घेत घेत आसन पूर्ण स्थितीक व्हरचें. भेंडाच्या हाडासकयल हाताच्या तळव्यांनी आदार दिवंचो. कोंपर जमनीक तेंकोवन हातांक आदार दिवंचो. फाट तिरपी, मान पुरायपणान मेकळी दवरची, गुरूत्वाकर्शणाक लागून अशुध्द रगत काळजाकडेन खास गतीन वता. पांय सदळ सोडून काळजावयलो ताण उणो करूं येता. हें आसन चड वेळ करचें न्हय.

**७) सर्वांगासन :** शयनस्थिती. विपरीत करणेचे फुडें फाट घुंवडावन चड वयर उखलून, शरिराचो सगळो भार खांदयांच्या फकत वयल्या भागाचेर घेवंचो. कोंपरांत काटकोन करिनासतना बरगडयांक हाताच्या तळव्याचो आदार दिवंचो. खाडकी, तोंड लेगीत उगडपाक येना अशे तरेन हडुयाचे शिंपयेंत बसयल्ल्यान जालंधर नांवाचो बंध निर्माण जाता. ह्या आसनाक प्रतिपूरक म्हणून मत्स्यासन करून मत्स्यबंध घालप गरजेचें आसता. सगळयांत म्हत्वाच्या अशा धा आसनांमदीं सर्वांगासनाचो आस्पाव करतात. जायत्या ग्रंथींची कार्यक्षमताय ह्या आसनान विकसीत जाता.

**८) मत्स्यासन :** शयनस्थिती. दोनूय पांयांमदीं सु. ३०-३५ सेंमी. अंतर दवरचें. दोनूय धोंपरां चडांतचड दोडून तळवे वयर घेवंचे. कोंपराच्या आदारान फाट, खांदे उखलून ताळू तेंकोवंची. मान उरफाटी ताणची. खाडकी वयर येतली. हातांनी ते ते वटेनच्या पांयांचे आखाणे धरचे. आसन चड बरें जाले उपरांत विरूध्द पांयांचे आंगठे धरचे. मांडयो जमनीचेर तेंकपाक जाय. ताका लागून पोट आनी तांचेर बरो ताण पडटलो. सर्वांगासनाच्या उरफाटो बंध तयार जाता. तकलेचे विशिश्ट अवस्थेक लागून मेंदवाक चड प्रमाणांत रगताची पुरवण जाता.

**९) हलासन :** शयनस्थिती. हल म्हणजे नांगर. शरिराची स्थिती नांगराप्रमाण जाता म्हणून हाका हलासन म्हण्टात. स्वास सोडिल्लो. मागीर पांय उखलीत उखलीत स्वास घेवप, द्विपाद उत्तासनाप्रमाण वयर घेतिल्ले पांय, तकलेवयल्यान दुसरे वटेन तेंकोवचे. धोंपरां सरळ, चवडे सरळ आनी आंखाणे जमनीक तेंकोवचे. हात खांदयांच्या फुडें फाटीचे सरळ रेशेंत तेंकोवचे. हडुं खाडकेचेर दामता आनी जालंधर बंधूय पडटा. फाटीचो कणो ताणटा, ताका घटसाण येता. भेंडापसून पांयांमेरेनच्या स्नायूंचेर ताण येता. ताका लागून नाडयांची शुध्दी जाता. पोटाचे स्नायू आनी तातुंतलीं इंद्रियां हांची कार्यक्षमताय वाडटा.

**१०) नौकासन :** शयनस्थिती. पयलीं स्वास सोडचो. स्वास घेत घेत पांय एकामेकांक जोडून वयर उखलचे. त्याच वेळार पांय ल्हव ल्हव वयर उखलचे. पांय सु. ४५ अंशामेरेन (जमनीकडेन कोन) उखलले म्हण्टकच हात ताणून आंखाणे धरचे. विपरीत शयनस्थितींतल्या नौकासनांत पोटाच्या स्नायूंचें प्रसरण आनी फाटीच्या स्नायूंचें आकुंचन आसा, जाल्यार ह्या नौकासनांत पोटाच्या स्नायूंचें आकुंचन आनी फाटीच्या स्नायुंचें प्रसरण जाता. सगळया शरिराक आदार उणो आशिल्ल्यान तोल चड सांबाळचो पडटा. पोटाच्या आकुंचनाक लागून तातुंतल्यो आंतकडयो, फिग्द, स्वादुपींड, मूत्रपींड हांचेवयलो दाब वाडटा. कार्यक्षमताय वाडटा.

**११) पवनमुक्तासन :** शयनस्थिती. पांय उत्तानपादासनाप्रमाण उखलचे. मागीर धोंपरांत दोडचे आनी दोनय हातांनी धोंपरांक पोटाचेर, हडुयार दामून विळखो घालचो. मान आनी तकली वयर उखलची. अपान वायुच्या पवनमार्गांत, चड करून व्हडल्या आंतकडयांच्या मार्गांत आडखळिल्ल्या वायुची (बळान) मुक्ती जावपाक हें आसन उपेगी थरता.

१२) **शवासन :** शयनस्थिती. शारिरीक आनी मानसीक विश्रांतीखातीर हें आसन सामकें उपेगी आसून, सगळीं आसनां करून जाले उपरांत हें आसन करपाची पद्दत आसा. दोनय पांयांमदीं सादारण ३५ ते ४५ सेंमी. अंतर दवरचें. हात ल्हवूच कडेक घेवंचे, मान जायते वटेन वांकडी करची. मनानच सगळें शरीर पांयांपसून तकलेमेरेन सदळ करचें. ह्या आसनांत शरीर सदळ दवरपाक जाय तशेंच मनांतूय विचारांची गर्दी जावपाक दिनासतना तें थीर दवरप गरजेचें आसता. ह्या आसनांत सगळे अवयव, इंद्रियां हांचेवयलो दाब, ताण,

आकुंचन, प्रसरण ह्या सगळयांचेर ताबो हाडून विसव मेळटा.

**बैठक स्थितींतलीं आसनां :** बैठक स्थितींतलें स्वस्तिकासन, समासन, पद्मासन ह्या आसनांत मांडयेच्या तोंकांचेर, धोंपरांचेर हातांच्या बोटांची जी खास अशी रचना करून दवरतात तांकां 'मुद्रा' म्हण्टात. ही मुद्रा चडकरून 'ध्यानमुद्रा' वा 'ज्ञानमुद्रा' म्हणून वळखतात.

**१३) आकर्ण धनुरासन :** बैठक स्थिती. धोणूचेर लायिल्लो बाण ओडिल्ल्याची कृती ह्या आसनांतल्यान प्रकट जाता. देखून ताका धनुरासन वा आकर्ण धनुरासन म्हण्टात. पयलीं दोनूय पांय पातळावन एकामेकांलागीं घेवंचे आनी दावो पांय धोंपरांमदीं बागोवन उजवे मांडयेर घेवंचो. मागीर दाव्या हातान पातळिल्ल्या उजव्या पांयाचो आंखाणो धरचो आनी उजव्या हातान दाव्या हातासकल्यान येवपी दाव्या पांयाचो आंगठो धरून तो पांय उजव्या कानालागीं हाडचो. चड करून सरळ बसचें. पांयांचो ताण ल्हव ल्हव वाडोवंचो. श्वसन संथ आसचें. धोंपरांचेर आनी भेंडाचेर ताण येवन स्नायूंक घटसाण येता. हें आसन दावे वा उजवे, अशा दोनूय वटांनी करतात.

**१४) वक्रासन :** दोनूय पांय फुडें. दावो पांय धोंपरांत दोडून मांडयेलागीं घेवंचो. उजव्या हाताची बगल त्या दाव्या धोंपराचेर दवरची आनी दोनूय तळवे दावे वटेन पूण परस्पर विरूध्द दिशांकडेन बोटां करून दवरचे.मान फाटले वटेन घुंवडावन, भेंडाक - फाटीक - मानेक ताण दिवंचो. फाटीचो कणो एके पातळेंत रावन पिळवट्टा. ताची लवचीकताय वाडटा. पोटाकूय पीळ पडटा आनी भितरल्या इंद्रियांचेर दाब आनी ताण येता. मज्जासंस्थेची कार्यक्षमताय वाडटा.

**१५) पश्चिमोत्तासन :** योगासनांतलें हें एक मुखेल आसन मानतात. दोनय पांय फुडें, हात सरळ आनी पांयांचे आंखाणे दोनय हातांनी धरचे. फुडें बागोवंचें. कपल धोंपरांक तेंकोवंचें आनी दोनय कोंपर दोनय पांयांचे वटेन जमनीर तेंकोवंचे. धोंपरां सरळ आसचीं आनी खोंटो, पोटऱ्यो, मांडयो जमनीक तेंकयल्ल्यो उरच्यो. श्वसन संथपणान करचें. ह्या आसनांत पांयांपसून मानेमेरेन सगळया शिरांक ताण बसता. सगळे स्नायू आकुंचन पाविल्ल्यान फुफुसां, उदरस्थ इंद्रियां आनी अंतःस्त्रावी ग्रंथीचेर ताण पडटा आनी तांची कार्यक्षमताय वाडटा.

**दंडस्थितींतलीं (उबे स्थितींतलीं) आसनां : १७) वृक्षासनः** दंडस्थिती. पयलीं श्वास सोडप. मागीर ल्हव ल्हव श्वास घेवप, दोनूय वटांनी हात वयर व्हरून, नमस्कार करून, ताणून वयर धरप. खोंटोय वयर उखलप. उपरांत श्वास संथ दवरप. आसन तोलात्मक. स्नायूंवयलो ताण उणो करपाक उपेगी. चड करून सगळया आसनांचे अखेरेक करचें.

**१७) त्रिकोणासन :** दंडस्थिती. दावो पांय चडांत चड दावे वटेन व्हरून पांयांचो चवडो तेच दिकेकडेन तोंड करून दवरचो. स्वास सोडचो. दावें धोंपर बागोवन दावे वटेन वांकून दावो हात जमनीक लावचो. उजवो पांय सरळ दवरचो. उजवे वटेनच्यान उजवो हात उजव्या कानाक तेंकोवन सरळ रेशेंत वयर वयर ताणचो. हीच सगळी कृती उपरांत उजवो पांय बागोवन करची. शरिराचो भार बागवल्ल्या पांयांच्या पोटऱ्यांचेर आनी मांडयेर वा तेंकयल्ल्या हाताचेर येता आनी तांची कार्यक्षमताय वाडटा.

**१८) शीर्षासन :** योगासनांतलें एक मुखेल आसन. पयलीं फुडें बागोवन धोंपरां जमनीर तेंकोवचीं आनी दोनय हातांचे बचके एकामेकांत घुस्पावन हात कोंपरापसून जमनीचेर दवरिल्ल्या वस्त्राचेर दवरचे. मागीर तकलेचो ताळवेचो भाग एका मोव कुडक्याचे घडयेर हातांच्या बचक्यांक लागून दवरचो. त्यावेळार मनगटां तकलेच्या दोनय वटांनी येतलीं अशीं दवरचीं. उपरांत धोंपरां वयर उखलून ल्हव ल्हव हडुयालागीं हाडचीं. हात आनी तकली हांच्या आदाराचेर पांय जमनीपसून वयर उखलचे आनी धोंपरांलागीं बागोवन मांडयांकडेन हाडचे. ही पयली अवस्था. फाट सरळ करून शरिराचो भार हातांच्या कोंपरांचेर घेवंचो. ताचे उपरांत दोनूय पांय उखलून वयर करचे आनी मांडयो सरळ ओळींत एकामेकांकडेन थीर दवरच्यो. धोंपरां सरळ करिनासतना पांय फाटीं घेवंचे, ही दुसरी अवस्था. उपरांत दोनूय पांय सरळ ओळींत वयर ताणून दवरचे. तकली, हडूं, भेंड, धोंपरां, पांयांचे आंखाणे हे एके ओळींत येवपाक जाय. श्वासोश्वास नाकानूच संथ करचो. हें आसन दोळयांची भलायकी, रगत शुध्दी, उमेद आनी थंड न्हीद हे खातीर करचें.

आयज भारतांत आनी जगभरूय योगाभ्यासाचें शास्त्रीय स्वरूप जाणपाखातीर यत्न चालू आसात. स्वामी कुबल्यानंद हाणें १९२४ त लोणावळयाक कैवल्यधाम ही संस्था स्थापन करून तातूंत योगविद्येच्या शास्त्रोक्त शिक्षणाक चालना दिली. आसनांचो आंकडो ८४ पसून ते ३००-४०० मेरेन सांगला. पूण तीं कांय मूळ मुखेल आसनांचींच तरेतरेचीं उपांगां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

पूरकनोंद : १) आसनां २) ध्यान.

## योगिनी

**योगिनी :** शाक्त संप्रदायांतल्यो दुय्यम देवता. तांकां आवरण देवता अशेंय म्हळां. तशेंच तांकां पार्वतीच्यो इश्टिणीय मानतात. योगिनींचो आंकडो जरी कोट्यांनी आसलो तरीय तातूंत ह्यो फकत ६४ योगिनींचीच नामना आसा. हांचे मदल्यो आठ योगिनी चड प्रसिद्द आसात. तांची नांवां अशीं : मंगला, पिंगला, धन्या, भ्रामरी, भद्रिका, उल्का, सिध्दा आनी संकटा. ह्यो दुर्गादेवीच्यो परिचारीका आशिल्ल्यो.



वेदांत योगिनींचो उल्लेख ना. पुराणीक साहित्यांतूय त्यो चडशो दिसनात. शाक्त

मार्गांत मात एका काळार तांकां बरेंच व्हडपण आशिल्लें आनी अजुनूय तें मातशें दिसता.बृहत्कथेंत योगिनींचो उल्लेख आसलो तरीय तांचो दुर्गाकडेन कांयच संबंद ना. तशेंच, योगिनींचो उल्लेख मातृकांवांगडा करतात. पूण ह्यो दोनूय एक न्हय.

जबलपूरालागीं भेडाघाटार नर्मदेचे देगेर योगिनींचें देवूळ आसा. थंयचे दर एके योगिनीचे मूर्तेसकयल ते ते योगिनीचें नांव कोरांतिल्लें आसा. तंत्रशास्त्रा प्रमाण तांची घडण केल्ली आसून शिल्प खूब सोबीत आसा. इ.स. १५६४ त मोगल सरदार असफखान हाणें हांगाच्या कांय मूर्तींची तोडफोड केली. खजुराहो हांगाय ६४ योगिनींचें एक देवूळ आसा. हें देवूळ शिवसागर तळयाचे देगेर बांदलां. ह्या ६४ मूर्तींतल्यो आतां थंय फकत तिनूच मूर्ती आसात.

योगिनीतंत्रांत ह्या योगिनींची उत्पत्ती, तांचो पुजा विधी, तांची शक्त आनी तांच्यो कथा दिल्ल्यो आसात. सिध्द साहित्यांतूय तांचो उल्लेख सांपडटा. ह्या उल्लेखांवयल्यान त्यो मनीस बायलोच आशिल्ल्यो म्हणपाचें जाणवता.

बौध्दांनीय योगिनी मानिल्ल्यो आनी तांचीं म्हापिठां निर्माण केल्लीं. बौध्द तंत्राप्रमांण कामरूप, पूर्णगिरी, उड्डियान आनी जालंधर हीं तांच्या योगिनींचीं चार म्हापिठां आशिल्लीं. भारतीय इतिहासाचे नदरेन पयल्या शक-कुशाणादी आक्रमकांची परकी देशांकडेन येरादारी करपाचीं हीं मुखेल केंद्रां आशिल्लीं. अशा म्हत्वाच्या केंद्रांतल्यान बौध्द योगिनींच्या म्हापिठांची स्थापणूक करून मोंगोलियन वंशाचे कुशाण फुडारी भारताचेर आपलें संस्कृतीक आनी राजकीय अधिराज्य प्रस्थापीत करपाक पळयताले.

ह्यो योगिनी आपणाक देवतांसमान मानपी बायलोच आशिल्ल्यो. तांकां लामा म्हण्टाले.विरोधी पंथांतल्या तरणाट्यांक आपल्या जाळयांत घुस्पावन बंदो करप हें तांचें काम आशिल्लें. तातुंतल्या कांय योगिनींक चुंबिका अशें म्हण्टाले. ह्यो चुंबिका चल्यांक भुलोवपाच्या वेळार पयल्याच खिणाक तांचो उमो घेताल्यो आनी अशेतरेन आपल्या नादाक लायताल्यो. थोड्यो रस्त्याचेर उब्यो रावन कामचेश्टाय करताल्यो. रातच्या वेळार बाणासूरकन्या उषा हिच्या म्हालांत अनिरूध्दाक उबारून व्हरपी चित्ररेखा ही जशी अप्सरा आशिल्ली तशीच ती योगिनीय आशिल्ली अशें हरिवंशांत सांगलां. तशेंच तिका लंबादेवी म्हणुनूय हरिवंशांत उल्लेख आयिल्लो आसा. तें लामा ह्या उतराचें संस्कृतीकरण आसपाक जाय.

भूतडामर तंत्रांत योगिनी साधन नांवाचो जो विधी दिल्लो आसा तातुंतय कामूक आनी स्वैरविलासी अंश स्पश्टपणान पडबिंबीत जाल्लो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**योगेश्वरी :** १) एक देवता. हिचें स्थान आंबेजोगाईक आसा. ह्या गांवांक जोगाईचे आंबे अशेंय म्हण्टात. मराठवाड्यांतल्या बीड जिल्ह्यांत हो गांव आसून, परळी वैजनाथापसून सोळा मैलांचेर तो आसा.

योगेश्वरी देवतेचें देवूळ गांवाचे मदीं आसून, तें हेमाडपंती बांदणेचें आसा. देवळाचें मुखेल दार उत्तरेक आसा आनी उदेंत आनी उत्तर ह्या दारांमुखार दीपमाळो आसात. मुखेल दारामुखार सर्वतीर्थ नांवाचें कूंड आसा. ह्या देवळा भोंवतणीं जायतीं ल्हान ल्हान देवळां आसात.

योगेश्वरीची मूर्त ना पूण तांदळो आसा. तिची पुजा दिसाक तीन खेपे आसता. पयली पुजा गुरव करता. दनपारचे पुजे उपरांत म्हानिवेद्य दाखयतात. सांजची प्रदोशपुजा आनी उपरांत शेजारती जावन सदचो क्रम सोंपता. योगेश्वरी ही जायत्या देशस्थ आनी कोंकणस्थ घराण्यांची कुलदेवता. यादवांचो सेनापती खोलेश्वर हाणें हिचें देवूळ बांदलें अशें म्हण्टात. ह्या देवळांत मोराची वसरी नांवांची एक वसरी आसा. ते वसरेचेर संतश्रेश्ठ कृष्णदयार्णव रावतालो.

योगेश्वरीमाहात्म्य नांवाच्या ग्रंथांतल्या पयल्या अध्यायांत योगेश्वरीच्या अवताराची कथा आसा. हो ग्रंथ अप्रकाशीत आसा. कृष्णदयार्णवानय हे देवीचें एक अश्टक रचिल्लें आसा. हिचे संबंदीं लोकसाहित्यय आसा.

हे देवीची आसना कुमारीच्या स्वरुपांतूच करतात. ही देवी आंकवार किद्याक रावली, ताचेविशीं एक कथा आसा, ती अशी :-

परळी वैजनाथान योगेश्वरीवांगडा लग्न जावपाचें थारायलें. देवतेचें कुळार कोंकणांत आशिल्लें. लग्नाखातीर थंयच्यान सगळी मंडळी परळीक वचपाक भायर सरली. पूण देवतेच्या मनांत मात वैजनाथावांगडा लग्न जावपाचो विचार नाशिल्लो. ताका लागून ती हांगाच्यान कशीच फुडें वचपाक तयार जालिना. अखेरेक लग्नाचो मूर्त जावन गेलो. देवतेक खोस जाली. तेन्नाच तिणें जयंतीचे देगेचेरच रावपाचें थरयलें.

हे देवतेचो खाशेलो उत्सव म्हणजे नवरात्र. आश्विन शुध्द प्रतिपदेपसून नमीमेरेन हो उत्सव चलता. निमाण्या दिसा होम - हवन जाता. दसऱ्या दिसा देवी शीम हुंपता. मार्गशीर्श शुध्द सप्तमीपसून पुनवेमेरेन हिचो दुसरो उत्सव आसता. पुनवेक होम आसता आनी रातची देवतेची पालखी गांवांतल्यान भोंवता.

आंबेजोगाई भाशेनूच योगेश्वरीचें आनीक एक ठाणें पैठणच्यान तीन मैलांचेर आसा. गोदावरी, बैलगंगा आनी वर्धा ह्या न्हंयांच्या त्रिवेणी संगमाचेर हिचें देवूळ आसा. पैठणची पंचक्रोशी परिक्रमा हांगाच्यानूच सुरू जाता.

२) योगेश्वरी ही एक मातृकाय. ती चार भुजांची आनी तीन दोळयांची आसून तिचो एक हात अभय मुद्रेंत आनी दुसरो वरद मुद्रेंत

आसता. बैल हें तिचें वाहन. बेलाच्या रुखापोंदा ती रावता. ती रंगान गोरी आनी तिच्या मुकुटाचेर चंद्रकोर आसता.

मत्स्यपुराणांत योगेश्वरीचें वर्णन अशें दिलां : हिची जीब सकयल हुमकळत आसता. हिचे तकलेचेर जटांचो जूट आसता. आनी गळयांत कवट्यांची माळ आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**रंग** : खंयचेय वस्तीच्या मुखेल दृश्य गुणांमदलो एक गूण. उजवाडाच्या माध्यमांतल्यान दोळ्याचेर परावर्तीत जावपी संवेदनांतल्यान रंग ह्या गूणधर्माची प्रचिती येता. जशें कानाच्या पडद्याचेर स्पंदन जावन आवाजाची संवेदना अणभवाक येता, नाकाच्या पेशींतल्यान वासाची अनुंभुती प्राप्त जाता, तशी दोळ्याच्या नेत्रपटलाचेर रंगाची संवेदना प्रतीत जाता.

संवसारांतल्या सगळ्याच सजीव-निर्जीव वस्तीक कसलो ना कसलो तरी रंग आसता आनी हो रंग दर एके वस्तीचो बाह्यगूणधर्म आनी आंतरीक रसायनीक जीवधर्म सांगता. दर एका रंगाचें ताचें आपलें अशें भौतीक आनी जैवीक कार्य आसता.

रंगाच्या माध्यमांतल्यान दर एके सजीव तशेंच निर्जीव वस्तीचो गूणधर्म कळपाक मदत जाता. तेचपरी दर एका रंगाचें ते ते सजीव-निर्जीव वस्तीखातीर आपलें अशें योगदान आसता. मोनजातीचे बाबतींत रंग हे संवादी, संरक्षक, आक्रमक, ओडलायणे अशे तरेचे आसतात, आनी हे रंग त्या त्या प्रसंगाप्रमाण आनी त्या त्या काळाप्रमाण मोनजातीच्या जिवीताक पूरंक थारतात. वनस्पतीचे बाबतींतय अन्नपूरवण, प्रजोत्पादन, संरक्षण अशीं कार्यां रंगाकडल्यान घडटात. आदिम काळासावन रंगाविशीं मनीस जातीक भोवच ओड आसा. कारण रंग हें मनाक प्रसन्न करपी एक तत्त्व आसा. आपलो परिसर रंगयाळो करपाची मनशाक सैमीक आवड आसता.

सैमीक तशेंच कृत्रीम रंगाच्या आदारान रंगकाम, लेखन सौंदर्य प्रसाधन, छापणावळ, कलाविश्कार असो जायतेतरेन रंगाचो उपेग मनीस कुळयेचे सुर्वेकसावन केल्लो दिसता.

आधुनिक काळांत रंगशास्त्र हें नवें शास्त्र मनशाच्या जिवीताच्या सगळ्या आंगांक स्पश्ट करपी थारलां.

संस्कृतीक नदरेनय रंगाक एक आगळे तरेचें म्हत्व प्राप्त जालां. ह्या म्हत्वाचो संबंद रंगाच्या गूणधर्मापरस केन्ना केन्नाय ताच्या भौतिक रुपासंबंदीत आसा. कांय धर्मांनी अमुकच रंग अशुभ आनी अमुकच रंग शुभ अशें समजप जाता. सादारणपणान धवो रंग शुभ आनी काळो रंग अशुभ मानप जाता आसलें, तरी कांय प्रदेशांनी कांय प्रसंगार हो सादारण नेम लागू जायना. न्हवऱ्या-व्हंकलेक पुराय धवें वस्त्र न्हेसप निशीद्ध मानतात. तर मंगळसुत्रांतल्यो काळयो पिडुको शुभ मानतात. मड्याचेर धवेंच वस्त्र घालपाची चाल आसा. कांय देवांक अमुकच रंगाचीं फुलां-वस्त्रां आवडटात असोय समज आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रंगनाथन, शियाळी रामामृत** : (जल्म : ९ ऑगस्ट १८९२, शियाळी; मरण : २७ सप्टेंबर १९७२ बेंगळूर).

संवसारीक किर्तीचो ग्रंथालयशास्त्रज्ञ आनी भारतीय ग्रंथालय चळवळीचो जनक. ताचें मुळावें आनी म्हाविद्यालयीन शिक्षण शियाळी आनी चेन्नईंत जालें. ताणें १९१६त गणित हो विशय घेवन एम. ए.ची पदवी संपादन केली. १९१७ वर्सा ताणें शिक्षणशास्त्राची एल्.टी. पदवी मेळयले उपरांत फुडलीं सात वर्सां ताणें गणिताचो अध्यापक म्हणून काम केलें. फुडें १९२४ वर्सा ताची मद्रास विद्यापिठांत ग्रंथपालाच्या जाग्यार नेमणूक जाली. उपरांत तो नामनेच्या ग्रंथालयाचे कार्यपद्दतींचें निरिक्षण आनी ग्रंथपालनाचो अभ्यास करपाखातीर इंग्लंडाक गेलो. थंयच्या वास्तव्यांत ताणें 'स्कूल ऑफ लायब्रेरियन्शिप' हो अभ्यासक्रम पुराय केलो. ताणें क्रॉयडन भौशीक ग्रंथालयांत काम करून आनीक कितल्याशाच ग्रंथालयांचे कार्यपद्दतीचो तुळात्मक रितीन अभ्यास केलो. वेगवेगळ्या ग्रंथवर्गीकरण पद्दतींचो खोलायेन अभ्यास केल्ल्या कारणान भारतांत परततना वाटेरूच आपल्या नियोजीत द्विबिंदू-वर्गीकरण पद्दतीचो आराखडो ताणें उजवाडायलो.



फुडें १९२८त मद्रास ग्रंथालय संघाची स्थापना करून ताणें भारतीय ग्रंथालय चळवळीची बुन्याद घाली. ग्रंथालयशास्त्राच्या मुलतत्त्वांचो विचार करपी 'द लायव लॉस ऑफ लायब्ररी सायन्स' हो ताचो पयलो ग्रंथ १९३१ वर्सा उजवाडा आयलो.

१९३१ ते १९६७ ह्या काळांत ग्रंथालयशास्त्रासंबंदीं खूब पुस्तकां ताणें बरयलीं. तातूंत कोलन क्लासिफिकेशन, क्लासिफायड कॅटलॉग कोड, रॅफरन्स सर्व्हिस, डॉक्युमॅंटेशन अँड इट्स फॅसेट्स, प्रोलेगोमेना टू लायब्ररी क्लासिफिकेशन हे ताचे ग्रंथ. ताणें निर्माण केल्ल्या द्विबिंदू पद्दतीविशीं खूब मतभेद आसले, तरी हे पद्दतीन ग्रंथवर्गीकरणाक नवी बसका मेळोवन दिली.

मद्रास विद्यापीठ ग्रंथालयाचो ग्रंथपाल म्हणून ताणें २१ वर्सां काम केलें. विद्यापिठाचे वतीन ग्रंथालयशास्त्राचो शिक्षणक्रम सुरू करपाच्या कामाक ताणें फुडाकार घेतलो आनी तो उपक्रम यशस्वी करून दाखयलो. एक बरो शिक्षक म्हणून ताची नामना आसली. १९४५त बनारस हिंदू विश्वविद्यालयांत खास आपोवण्यावयल्यान वचून ताणें सुमार २० म्हयने काम केलें.

१९४७ ते १९५३ ह्या काळांत ताणें दिल्ली विद्यापिठांत ग्रंथालय शास्त्रांतली पदविका, पदवी आनी पारंगतताय हांचो अभ्यासक्रम सुरू केलो. १९४८ वर्सा दिल्ली विद्यापिठान 'डॉक्टर ऑफ लॅटर्स' ही भौमानाची पदवी दिवन ताचो भौमान केलो.

रंगनाथन हाणें भारतीय ग्रंथालय चळवळ वाडयली. ग्रंथालय संघाचो अध्यक्ष, अबूगिलाचो संपादक आनी ग्रंथालय परिशदांचो अध्यक्ष अशा वेगवेगळया नात्यांनी ताणें मोलाची कामगिरी केली. ग्रंथालयशास्त्राचेर आशिया, युरोप, अमेरिका ह्या खंडांतल्या कितल्याशाच देशांतल्यान ताणें व्याख्यानां दिलीं. युनो, युनॅस्को, इंटरनॅशनल फॅडरेशन ऑफ लायब्ररी असोसिएशन, इंटरनॅशनल फॅडरेशन ऑफ डॉक्युमॅंटेशन हांचे सारकिल्ल्या आंतरराश्ट्रीय समित्यांचेरूय ताणें भौमानाची कामगिरी केली. १९५७त ताका पद्मश्री दिवन भारत सरकारान ताचो भौमान केलो. विद्यापीठ अनुदान मंडळाच्या ग्रंथालय समितीचो अध्यक्ष म्हणून ताणें म्हत्वाचें काम केलें. मद्रास विद्यापिठांत ग्रंथालयशास्त्राचें अध्यासन निर्माण करपाखातीर ताणें एक लाख रुपयांची देणगी दिली. १९६२ सावन बेंगळूराक 'डॉक्युमॅंटेशन रिसर्च अँड ट्रेनिंग सँटर हाचे वतीन ग्रंथालयशास्त्राचें संशोधन कार्य ताणें चालू दवरलें. नॅशनल प्रॉफेसर ऑफ लायब्ररी सायन्स अशी नेमणूक करून भारत सरकारान ताच्या कामाचो भौमान केलो. पेनसिल्वानियांत पिटसबर्ग विद्यापिठावतीन ताका डी. लिट ही पदवी दिली. जाल्यार वर्गीकरण आनी तालिकीकरण ह्या विशयांतल्या संशोधनाखातीर ताका अमेरिकन लायब्ररी असोसिएशनाकडल्यान 'मार्गारॅट' मानपारितोशीक हो मान मेळोवपी तो पयलोच भारतीय. ताच्या नांवान हो दीस ग्रंथालयशास्त्रदीस म्हूण मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रंगनाथ रामायण** : एक दीर्घकाव्य. हें तेंलुगू भाशेंतलें पयलें रामायण. हाचो कर्तो गोन बुद्ध रेड्डी हो एक राजा. हाचो काळ इ. स. च्या तेराव्या शतमानाच्या मध्यांतलो. हो ग्रंथ द्विपद छंदांत बरयला. ह्या ग्रंथांत इकराव्या - बाराव्या शतमानांत आंध्रांत वैदिक धर्माची जी प्रतिश्ठापना जाल्ली ताचे पडसाद दिसतात. कवीन रामाक ईश्वरी अवताराची उपमा दिनासतना ताका एक अलौकीक शक्तीवान असो मनीस मानला. हातुंतलो रावणूय वीर, धीट झुजारी आनी उदार राजा असो दाखयला. तशेंच ताच्यांतल्या कामूक, दुराग्रही आनी उद्धट सभावाचें वर्णन केलां. कवीन ताच्या दुर्गुणांची निंदा केल्या तशेंच ताच्यांतल्या बऱ्या गुणांची तोखणाय केल्या. रावणाक आपल्या बळ-पुरुशत्वाचो गर्व आसा. तेच वांगडा रामाचे धनुर्विद्येंतले निपूणतायेविशीं आदरूय आसा.

वाल्मिकी रामायणांत नाशिल्ल्यो जायत्यो कथा ह्या रामायणांत दिल्ल्यो आसात. ताणें त्यो हेर पुराणांतल्यान, जैनाच्या रामाविशींच्या साहित्यांतल्यान आनी आंध्रांतल्या लोकसाहित्यांतल्यान घेतिल्ल्यो आसात. लोकसाहित्यांतल्यान घेतिल्ले एके कथेचो अंश असो : राम-लक्ष्मण वनवासाक वतकच सुरवेचे कांय दीस शृंगवेरपूरांत राविल्ले. रातचीं राम आनी सीता न्हिदतकच लक्ष्मण धोणू-बाण घेवन पर्णकुटी भायर देखरेख करपाक रावलो. ताणें १४ वर्सां न्हीद घेवचो ना अशी प्रतिज्ञा केल्ली. ताची ही प्रतिज्ञा मोडपाखातीर निद्रा देवी एके बायलेचें रूप घेवन ताचे मुखार आयली. तिचो प्रस्न आनी लक्ष्मणान दिल्ली जाप कवीन अशीं मांडल्यांत :

> येनु निद्रादेवि; येर्पड देल्पु -
> गा नाकु निंकेटलु मानाढय । तंत
> विधी विधिंचेनु वेंट वेंट वर्तिप
> विधिमेदि निन्नु ने विडुचु किंक ?
> ननिन, 'नूर्मिलथंदु नहरहंबुलुनु -
> जनियुंडुमंत नी समयंबु दीर्चि
> वच्चिन गैकोंदु वरुस निन्ननिन
> निच्च, ''नौ गाकंच'' नेगे निद्रयुनु
> नलरुचु 'नी देवतानुग्रहंब
> गलिगे नाकनुचु लक्ष्मण देवुडुंडि

**भावार्थ** : हांव निद्रादेवी. हे मान्यवरा, विधात्यान तुजेवांगडा हावें सहवास करचो अशी येवजण केल्ली आसा. हांव तुका कशी सोडूं? तूंच कितेंय तरी उपाय सांग. तेन्ना लक्ष्मण तिका म्हण्टा - 'तूं उर्मिलेंत प्रवेश कर आनी रातदीस तिच्यांत आस्पावन वच. वनवासकाळ सोंपतकच हांव थंय येवन तुजें पाणिग्रहण करतां'. निद्रादेवीन लक्ष्मणाचें वचन मान्य केलें तेन्नाच ती थंयच्यान गेली.

हें रामायण देशी भाशेंत आशिल्ल्यान अस्तंत आंध्राच्या दोंगराळ वाठारांत तें लोकप्रिय जालें. थंयचे लोक ताचीं पारायणां करताले आनी बायलो तातुंतल्या प्रसंगांचें गायन करताल्यो.

ह्या रामायणाची कविता सोंपी, सुंदर आनी निर्दोश आशिल्ल्यान तेलुगू भाशेंतलें हें सगळयांत बरें रामायण समजप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**रंगनाथस्वामी निगडीकर** : (१६१२ - १६८४ इ. स.). एक मराठी संतकवी. हो आनंद संप्रदायी आसून रामदास पंचायतनांतलो दुसरो संत. ताच्या बापायचें नांव बोपजी आनी आवयचें नांव बयाबाई. ह्या दांपत्याक तीन पूत जाले. रंगनाथ हो तातुंतलो मदलो पूत. हो यजुर्वेदी माध्यंदिन फांट्याचो आसून वसिष्ठगोत्री आसलो.

पिरायेच्या चवदाव्या वर्सा तो घर सोडून बद्रिकाश्रमांत गेलो. थंय खूब विद्या शिकून तो परत घरा आयलो. ताच्या बापायन पूर्णानंदस्वामीकडल्यान अनुग्रह घेतिल्लो. रंगनाथान आपल्या

बापायकडल्यान अनुग्रह घेतलो.ताच्या बापायन मरचेआदीं समाधी घेतल्या उपरांत रंगनाथ चड करून निगडीकूच राजयोगी म्हणून रावूंक लागलो. ताचे वांगडा शिश्यसमुदाय आसतालो.

रंगनाथान गजेंद्रमोक्ष, रामजन्म, गुरूगीता, सुदामचरित्र, शुक- रंभासंवाद, पंचीकरण, भानुदासचरित्र, गरूडसत्यभामा गर्वहरण, बद्धमोक्षविवरण अशीं ल्हान व्हडलीं स्फूट प्रकरणां बरयल्यांत.

रंगनाथाची रचना प्रासादिक आसून ताच्या काव्यांवरवीं तो केन्ना साधन्नाक साध्य मानून आत्मकला विसरपी साधकाक उपदेश करता, जाल्यार केन्ना खरें गिन्यान, धन आनी सौख्य हांचें स्वरूप सांगता.

- कों. वि. सं. मं.

**रंगभूमि :** रंगभूमि म्हळयार अभिनय - आविश्काराची सुवात वा भूंय. अभिनय आविश्कार जंयसून दिश्टी पडटा ती सुवात, अशा आशयाच्या मूळ ग्रीक 'theaomai' उतरावयल्यान इंग्लिशींत थिएटर ही रंगभूमीक समानर्थी अशी संज्ञा आसा. अभिनय आविश्काराची आवश्यक आनी पूरक गरज म्हणून अभिनय आविश्कार करपी कलाकार रंगाचो वापर करीत आयल्यात. ह्या आविश्काराचे प्राथमिक अवस्थेंत रंगाविश्काराक मुखेल सुवात मेळिल्ल्यान रंगभूमि ही संज्ञा निर्माण जाली आसूं येता. सद्या रंगभूमि हे संज्ञेंत रंगाविश्कारा वांगडाच अभिनय आविश्कार, कला आविश्कार, संहिता, दिग्दर्शन, रंगभूशा, वेशभूशा, रंगमाची तंत्रज्ञ, नेपथ्य, उजवाडा येवजण, प्रेक्षक, समीक्षक, नाच, संगीत, ह्या सगळया घटकांचो सामुदायिकपणान आस्पाव जाता. तशेंच थिएटर हे संज्ञेफाटली दिश्टी पडपाची वा पळोवपाची संकल्पनेपुरती रंगभूमिची मर्यादा उरना तर दोळयांनी पळोवप आनी कानांनी आयकप अशा दोनूय क्रियांकडे ताचो संबंद येता.

दशावतारी नाटकां, भवाई, ललित, तमाशा हे लौकिक रंगाविश्कार तेचभाशेन भोवरुपी आनी खेळे हांचो रंगभूमीकडे लागींचो संबंद आसा. ह्या जानपद रंगाविश्कारांक लिखित नाट्यसंहिता नासता. तांचो आविश्कार उत्स्फूर्त आसून तो स्थळ-काळाप्रमाण बदलता. पूण नटाक आंगिक, वाचिक आनी आहार्य असो तीन तरांचो अभिनय करचो पडटा. कथाप्रसंग वा घडणूक दाखोवपाखातीर ती सुवात वा पार्श्वभूंय दाखोवची पडटा. हातुंतल्यानूच नेपथ्याची निश्पत्ती जाता.

भौशिक सुवातींनी उक्ते रंगमाचयेर रंगाविश्कार जाताले. देवदेवतांचे उत्सव, शेतार्ची कामां तेचभाशेन कुटुंबिक कार्यांखातीर एकठांय येवपी सगळे लोक त्या रंगाविश्काराचे प्रेक्षक आसताले. देवासुरसंग्राम, पौराणिक वीरकथा, लोककथा, इतिहासांतल्यो अजापीत घडणुको आनी यातुविद्या हे त्या काळांतल्या रंगाविश्काराचे विशय आसताले. उपरांत आधिदैवीक आनी यातुविद्याप्रधान विशय उणे जावन रंगाविश्काराक चडांत चड लौकिक स्वरूप मेळपाक लागलें. रंगाविश्कार करपी वृत्त्यर्थी कलावंतांचो वर्ग तयार जावंक लागलो. नाट्यविशयाचे मांडणेंत धर्मीक नदरेपरस तात्त्विक विचारसरणी चड प्रमाणांत दिसूंक लागली. पार्श्वभूमीविशींच्यो अपेक्षा वाडल्यो, नेपथ्याची गरज दिसूंक लागली. पूण तेन्नालेगीत उक्ते सुवातेचेरूच नाट्यप्रयोग जाताले. रंगमाची धांपिल्ली पूण सभाघर उक्तें. अशे परिस्थितींत रंगाविश्कारान उक्त्या मैदानांतल्यान रंगमंदिरांत प्रवेश केलो ही एक व्हड आनी म्हत्वाची क्रांती जावन आसा. उपरांत नाटकाचे संहितेक साहित्याची जोड मेळळी आनी नटान नेपथ्य सारकिल्या उपचारांसयत अभिव्यक्ती करपाची प्रथा सुरू जाली. ग्रीस, इटली आनी भारत ह्या देशांनी ही अभिजात रंगभूमी दोन ते अडेज हजार वर्सांपयलीं विकसीत अवस्थेक पाविल्ली दिसता.

सोळाव्या शेंकड्यामेरेन रंगभूमीचें स्वरूप धर्मीक आनी लौकिक आविश्कारांपुरतेंच मर्यादीत उरलें. पूण उपरांत अभिजात रंगभूमीक नवी दिका मेळळी आनी फुडल्या तीन - चार शेंकड्यांनी तिची उदरगत जावन तिची व्याप्ती वाडली. आभास निर्माण करपी वास्तव रंगाविश्कार हें ह्या स्थित्यंतरांतलें, रंगभूमीचें आदर्श प्रयोजन मानतात.

सादारणपणान, धर्मीक केंद्रांच्या परिसरांत, रंगकला निर्माण जाली. यूरोपांत सादारण णवव्या - धाव्या शेंकड्यासावन, रंगकला चर्चीच्या आलाशिन्याक आयली आनी सदाचार नाटकां (Morality play), चमत्कार नाटकां (Miracle play) जावंक लागलीं.

सादारणपणान सोळाव्या शेंकड्यांत स्वतंत्र रंगमदिरांची उबारणी जाली. मध्ययुगांत एके वटेन दरबारी रंगभूमी तर दुसरे वटेन सादारण भौसाची रंगभूमी अशें चित्र दिसता. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक गॅसाचे दिवे आयले, रंगभूमीचे नदरेन उजवाडा येवजण म्हत्वाची थरली. ह्या शेंकड्याचे निमाणें आनी विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक,रंगभूमीकडे पळोवपाची प्रवृत्ती निर्माण जाली. ह्या संदर्भांत थिएटर लिब्र, पॅरिस (१८८७), फ्रेई ब्यून, बर्लिन (१८८९), इंडिपेंडंट थिएटर सोसायटी, लंडन (१८९१), मॉस्को आर्ट थिएटर, रशिया (१८८९), आनी प्रॉव्हिन्सटाउन प्लेअर्स, अमेरिका (१९१५) ह्यो संघटना उल्लेख करपासारक्यो आसात. कलात्मक, प्रायोगिक अशे रंगभूमीचेरूच उपरांत अतिवास्तववादी, अभिव्यक्तिवादी, प्रतीकवादी अशो रंभूमीविशींच्यो चळवळी अस्तंती देशांत उदयाक आयल्यो. देखीक - नामनेचो रशियन नाट्यदिग्दर्शक आनी नट फस्येव्हलट एम्यील्येव्हिच मायरहोल्ट हाचो रचनावाद; फ्रेंच नट, नाटककार आनी दिग्दर्शक आंतॉनँ आर्तो (१८९६-१९७८) हाचें क्रौर्यनाट्य (Theatre of Cruelty); नामनेचो जर्मन नाटककार बेर्टोल्ट बेल्ट हाची आर्ष

रंगभूमी आनी हेर. दुसऱ्या महाझुजा उपरांतच्या काळांतली जैव रंगभूमी (living theatre ), निकट रंगभूमी (Intimate theatre), मृषानाट्य (Theatre of the absurd), महाराष्ट्रांतली संगीत नाटक रंगभूमी हे प्रकार फुडें आयले.

**जागतिक रंगभूमि - ग्रीक रंगभूमि** : इ.स. पयलीं सव्या शेंकड्यांत, डायोनायसस हे सैमीक देवतेच्या उत्सवांतल्यान ग्रीक रंगभूमिचो जल्म जालो. ह्या उत्सवावेळार वृंद (कोरस) देवीचे वेदीभोंवतणी पदां म्हणून नाचताले. ह्या पदांक उपरांत लिखित स्वरूप प्राप्त जालें आनी तातूंत हेर देवांच्या वा जैतिवंत वीरांच्याय कथांचो आस्पाव जावंक लागलो. तेन्ना थेस्पिस नांवाच्या लेखकान, वृंदामुखार स्वतंत्र नट (एकापरस चड पात्रांच्यो भूमिका आलटूनपालटून करपी) उबो केलो आनी ग्रीक रंगभूमी अस्तित्वांत आयली. ग्रीक नाटकांचे प्रयोग विस्तृत अशा मेकळया सैमीक परिसरांत जाताले. तीनूय वटांनी नाटक पळोवपाक मेळटलें असो दोंगुल्लेची दॆंवणी आनी ताचेर केल्लीं सोपणां म्हळयार प्रेशागार अशें उक्तें नाटकघर. ताची तांक सुमार वीस हजार प्रेक्षकांची आसताली. वृंद, मुखवटे, काव्यात्म भास आनी सुवात-काळ-कृती-ऐक्य हें ग्रीक रंगभूमिचें खाशेलेपण.



एक प्राचीन युरोपीय रंगभूमि

ग्रीक रंगभूमिवयलो एस्किलस (इ.स.प. ५२५ - ४५६), सॉफोक्लीझ (इ.स.प. ४९६-४०६) आनी युरिपिडीझ (इ.स.प. ४८४ - ४०६) हे श्रेश्ठ शोकात्मिकाकार; ॲरिस्टोफेनीस (इ.स.प. ४४८ - ३८०) आनी मिनँडर (इ.स.प. ३३२ - २९२) हे श्रेश्ठ सुखात्मिकाकार. एस्किलसाचीं सात नाटकां आसून तातूंत 'ओरिस्टिआ' नांवाची एक नाट्यत्रयी आसा. सॉफोक्लीझाचीं सात नाटकां (एक अर्दें) आसात. युरिपिडीझाचीं सगळयांत चड म्हळयार अठरां नाटकां उपलब्ध आसून तातूंत एक विरूपिका आसा. ॲरिस्टोफेनीसाचीं इकरा नाटकां उपलब्ध आसात. ताच्या नाटकांनी कथानकापरस तत्कालीन विशय आनी व्यक्ती हांचेर खर उपरोधीक टिका वा तांचें विडंबन आसा. मिनँडराचें एकूच नाटक उपलब्ध आसून, कांय अर्दवट स्वरुपांत मेळटात. ताका नवे सुखात्मिकेचो जनक म्हण्टात.

इ.स.प.तिसऱ्या शेंकड्यासावन रोमन साम्राज्याच्या विस्तारावांगडा ग्रीक रंगभूमिचो ऱ्हास जायत गेलो आनी इ.स.प. दुसऱ्या शेंकड्यांत तिचो अस्त जालो.

**रोमन रंगभूमि** : रोमांत वेगवेगळया देवांच्या निमतान जावपी 'लुडी' नांवाच्या उत्सवांनी विदूशकी खेळ, नकलो, कसरती, द्वंद्वझुजां अशे तरेच्यो कार्यावळी जाताल्यो. इ.स.प. २४०त लिव्हिअस अँड्रोनियस हाणें ग्रीक नाटकाचो लॅटीन अणकार सादर केलो आनी तेन्नाच खऱ्या अर्थान रोमन रंगभूमिची सुरवात जाली. हे रंगभूमिचेर कायम स्वरुपाचें नाट्यघर ख्रिस्ती शक सुरू जावचे पयलीं पन्नास वर्सां जालें. ताचेपयलीं नाटकाच्या प्रयोगांक वा करमणुकीच्या कार्यावळींक लाकडाबगर कसलीच इमारत बांदपाक सिनेटरांची परवानगी नासताली.

रोमन रंगभूमिचेर सादर केल्लीं सुमार पस्तीस पुर्विल्लीं नाटकां उपलब्ध आसात. हे रंगभूमिची चडशी सुखात्मिकांखातीर नामना आशिल्ली. ती भोवतेक करून ग्रीक नाटकांचेर आदारीत आसली तरी तातूंत कांय स्वतंत्र खाशेलेपणांय आसात. मुखवटे, प्रवेशक, उपसंहार, संगीत आनी रस्तो हें घटनास्थळ हांचो रोमन रंगभूमींत मुखेलपणान उल्लेख करूंक जाय. रोमन रंगभूमिवयले श्रेश्ठ सुखात्मिकाकार प्लॉटस आनी टेरेन्स हांचीं नाटकां चडशीं ग्रीक नाटककार मिनँडर हाच्या नाटकांचेर आदारीत आशिल्लीं. सेनीका हो रोमन रंगभूमिवयलो श्रेश्ठ शोकात्मिकाकार जावन गेलो.

चडशीं नाटकां अणकारीत स्वरुपाचीं आशिल्लीं. तातुंतल्या सुखात्मिकांनी ग्रीक वेशभूशा आशिल्ल्यान तांकां 'फॅबुला पॅलिआटा' तर शोकात्मिकांनी ग्रीक नायक आशिल्ल्यान 'फॅबुला क्रॅपिडाटा' म्हण्टाले. हांचेभायर अणकारीत नाशिल्लीं आनी म्हणून स्वतंत्र मानिल्लीं पूण दुय्यम स्वरुपाचीं नाटकांय रोमन रंगभूमिचेर आशिल्लीं. तातुंतल्या रोमन वेशभूशा आशिल्ल्या सुखात्मिकांक 'फॅबुला टोगाटा' तर रोमन नायक आशिल्ल्या शोकात्मिकांक 'फॅबुला प्रेटेक्सटा' म्हण्टाले. एक

ऑक्झन बोलीवयल्यान आयिल्लो 'फॅबुला अटेलाना' नांवाचो ल्हान प्रहसनात्मक नाट्यप्रकार आशिल्लो. तातूंत थरावीक नमुन्याचीं पात्रां, गांवगिरी फाटभूंय, संगीत, नाच आनी संवाद आसताले. उपरांत ताका लिखित स्वरूप मेळ्ळें. हाचेचभाशेन दुसरो एक 'माइम' नांवाचो उत्स्फूर्त नाट्यप्रकार आशिल्लो. तातूंत बायलांच्यो भूमिका बायलोच करताल्यो. हो मात्सो अश्लील आशिल्लो. कांय काळा उपरांत, शोकात्मिकांनी 'पँटोमाइम' ह्या नाट्यप्रकाराची सुवात घेतली. हातूंत वृंदाकडल्यान कथानिवेदन जाता आसतना, एकूच नट नृत्य - संगिताचे साथीचेर, मुखवटे घालून वेगवेगळ्यो भूमिका करतालो.

ख्रिस्ताउपरांतच्या सव्या शेंकड्यांत, रोम साम्राज्यावांगडा रोमन रंगभूमीचोय अस्त जालो. रोमन नाट्य हें चडशें ग्रीक नाट्याचेर आदारिल्लें आसलें तरी अस्तंती रंगभूमिच्या विकासाक ताचो खूब आदार जाला. प्रबोधन काळांतले रंगभूमिचेर तशेंच शेक्सपिअर, मोल्येर हांच्यासारक्या श्रेश्ठ नाटककारांचेरूय रोमन नाट्याचो व्हड प्रभाव दिसता येता.

**ब्रिटीश रंगभूमि** : सुमार देड हजार वर्सांपयलीं फक्त ब्रिटनांतूच न्हय तर सबंद युरोपांत इगर्जींनी जी प्रार्थना चलताली, तातुंतल्यानूच ही रंगभूमि जल्माक आयली. त्या काळांत, धर्मझुजांक लागून युरोपाचे जनतेक मन रिजवणेचें दुसरें साधन नाशिल्लें. अशे परिस्थितींत ईस्टरच्या वेळार जावपी इगर्जेंतले प्रार्थनेन ह्या लोकांक मात्शी प्रसन्नताय मेळटाली. प्रार्थना, वाचन, मंत्रोच्चार, गीतगायन हें सगळें नाट्याक अनुकूल आशिल्लें. हे प्रार्थनेवांगडा ख्रिस्ताचे जिणेवयले प्रसंग, नाट्याच्या रुपांत इगर्जेंत दाखोवपाक सुरवात जाली. तातुंतल्यान उपरांत मिस्टरी, मोरॅलिटी आनी मिरॅकल हे तरेचीं नाटकां वा नाट्यप्रकार प्रचलित जाले. ल्हव ल्हव ही कला इगर्जेच्या वाठारांतल्यान भायर सरून आपलो आविश्कार स्वतंत्रपणान दाखोवंक लागली. ह्याच काळांत ही नाट्यकला विंगड विंगड उद्येगधंद्यांच्या नांवान इंग्लंडांत प्रचलित आशिल्ल्या 'ट्रेड गिल्ड्स' ह्या वेवसाय संघांच्या आलाशिऱ्याक गेली. वेवसाय - संघांवतीन जावपी हीं नाटकां उपरांत बाजारपेठेंत वा उक्त्या मैदानाचेर जावंक लागलीं. ह्याच काळांत धुंवपी 'वॅगन - स्टेज' ची चाल सुरू जाली. चाकां लायिल्ली ही रंगमाची जाय थंय हालोवपाक मेळटाली. रंगमाचयेचे सकयल पड्ड्यांनी धांपून घेतिल्ले सुवातेर वेशभूशा करपाक मेळटाली.

सोळाव्या शेंकड्यांतली एलिझाबेथ काळांतली रंगभूमि, तिचे फाटभूंयेचेर जाल्लो विल्यम शेक्सपिअर आनी ताच्या सांगात्यांचे प्रतिभेचो विलास हें ब्रिटीश नाट्याच्या इतिहासांतलें एक अजापूच म्हणूं येता. हॅम्लेट, ऑथेल्लो, किंग लीअर आनी मॅक्बेथ ह्या शेक्सपिअरच्या शोकात्मिकांनी अतिमानुश स्वभावदर्शन आनी उत्तुंग काव्यरचना हांचो आगळो वेगळो मेळ दिसून येता. तेचभाशेन ताणें सुखात्मिका आनी इतिहासीक नाटकांय बरयलीं. उपरांतच्या कांय वर्सांनी पयल्या चार्ल्साची राजवट वतकच ब्रिटनांत प्युरिटन पंथीयांची लोकशाय सत्ता आयली. तांणी लंडनांतलीं नाटकघरां बंद करून, नाट्यप्रयोगांचेर बंदी घातली.

१६६० वर्सा दुसरो चार्ल्स सत्तेर येतकच मात हे कलेक परतून उर्बा आयली. अठराव्या शेंकड्यांत, ब्रिटीश रंगभूमिक बरे बरे नट मेळ्ळे. डेव्हिड गॅरिक, सेरा सिडन्झ, एडमंड कीन हे ह्या काळांतले नामनेचे कलाकार. एकुणिसाव्या शेंकड्यांतल्या हेन्री अर्व्हिंग आनी एलेन टेरी ह्या श्रेश्ठ कलाकारांचो उल्लेख करप गरजेचो.

जॉर्ज बर्नार्ड शॉ हाणें ब्रिटीश नाटकाक एक वेगळो पांवडो दिलो. मॅन अँड सुपरमॅन, पिग्मेलियन, कॅन्डिडा हीं कांय ताचीं गाजिल्लीं नाटकां.शॉच्या मात्सो पयलींचो ऑस्कर वाइल्ड ह्या नाटककाराकूय खूब नामना मेळ्ळी.

व्हिक्टोरिया राणी उपरांत सातव्या एडवर्ड राज्याची कारकीर्द चालू जाली, तेन्ना प्रस्थापितांची घडी समाजाच्या वयल्या थराचेर वेवस्थीत बशिल्ली. ह्या वातावरणांत पिनीरो, हेन्री जोन्स, गॉल्झवर्दी हांची नाट्यरचना सोबसारकी आशिल्ली. कथानकाची वेवस्थीत बांदावळ हें ह्या नाटककारांचें खाशेलेपण.

पयल्या म्हाझुजाउपरांतच्या काळांत, समरसेट मॉम, नौएल कौअर्ड, जॉन बॉईंटन प्रीस्टली ह्या तीनूय नाटककारांनी ब्रिटीश रंगभूमिवयलें वर्चस्व कांय काळ तिगोवन दवरलें.

१८८० वर्सा ओल्ड व्हिक ही अस्तित्वांत आयिल्ली संस्था १९१४ वर्सा लिलियन बेलिस हिणें आपल्या ताब्यांत घेतली आनी शेक्सपिअरच्या नाटकांच्या प्रयोगपिठांत तिचें रुपांतर केलें. दुसऱ्या म्हाझुजा पयलीं थंय जॉन गिलगुड आनी लॉरेन्स ऑलिव्हिए हे नट खूब गाजले. १९४४ वर्सा ऑलिव्हिए आनी राल्फ रिचर्डसन हांचेकडे ओल्ड व्हिकाचें संचालकत्व आयलें. तांणी शेक्सपिअरचीं हेन्री द फोर्थ, रिचर्ड द थर्ड हीं नाटकां तशेंच सॉफोक्लीझाचीं ईडिपस रेक्स, इब्सेनाचें पीर जिंत हीं नाटकां सादर करून खूब नामना जोडली. १९५० उपरांतच्या काळांत, जॉन ऑस्बर्न, हॅरल्ड पिंटर, आर्नल्ड वेस्कर आनी हांचे उपरांत डेव्हिड स्टोरे, टॉम स्टोपार्ड, पीटर शेफर हे नाटककार ब्रिटीश रंगभूमिचेर आयले.

सगळ्या जगांतले नाट्यरसिक आयचे ब्रिटीश रंगभूमिकडे शेक्सपिअरसारक्या आनी हेर श्रेश्ठ अभिनेत्यांचें आनी दिग्दर्शकांचे कलेचें आगर म्हणून पळयतात.

**फ्रेंच रंगभूमि** : हे रंगभूमिचो उगमूय इगर्जेच्या धर्मीक कार्यांनी मेळूं येता. इकराव्या शेंकड्यांत रूआन शारांत केल्ल्या नाटकांच्यो संहिता, बाराव्या शेंकड्यांत ऑर्लेआं शारांत केल्ल्या नाटकांच्यो संहिता आयजूय मेळटात. तेराव्या ते पंदराव्या शेंकड्यांत, फ्रांसांतूय सायकल

प्लेज म्हळयार चक्री नाटकां जातालीं. रॉबिन हुड आनी ताची प्रेयसी मेरियन हांचे लोककथेन इंग्लंडांतल्या लोकनाट्यावांगडा फ्रेंच लोकनाट्यांतूय नामना जोडिल्ली. इगर्जेच्या नियंत्रणांतल्यान, फ्रेंच नाटक मुक्त जायत गेलें आनी घुंवपी रंगमंचाचो चड प्रसार जावंक लागलो.

मध्ययुगीन काळांत, ग्रीस, इटलींत सुरवात्मिका आनी शोकात्मिका अशे दोन नाट्यप्रकार आशिल्ले, तेच फ्रांसांतल्या नाटककारांनी घेतले. १५५२ वर्सा एत्येन झॉदेल ह्या नाटककारान क्लिओपात्राचेर एक शोकात्म नाटक बरयलें. फुडें ताणें अशेच तरेचीं आतिगॉन आनी मेदिया हीं नाटकां बरयलीं. ह्याच काळांत ' कोम्मेदीआ देल्लार्ते' नांवाची एक विदूशकी खेळांची नाट्यपरंपरा इटलींत चलताली. हातुंतलीं कांय पात्रां फ्रेंच रंगभूमिन घेतलीं. तांकां 'हार्लेक्विन' सारकीं फ्रेंचांत अपभ्रंश जाल्लीं नांवां मेळ्ळीं. ह्या इटालियन विदूशकांनी फ्रेंच राजा आनी लोकांक सामकी भूल घातली. सोळाव्या शेंकड्याच्या मदेगाक मारी फेअरे नांवाची नटी अशाच एके कोम्मेदीआ कंपनींतल्यान पॅरिसांत आयिल्ली. फ्रांसांतल्या नाटकघरांत काम करपी ती पयली बायल मनीस. कार्दीनाल द रीशल्य ह्या नामनेच्या मुत्सद्याच्या यत्नांकलागून फ्रेंच रंगभूमिक नवें, चड विधायक मोडण मेळ्ळें. १६२९ वर्सा तो पंतप्रधान जालो आनी त्याच वर्सा मॉन्तदोरी हो नट आनी ताची नाटककंपनी भायल्या गांवांत व्हड यश मेळोवन पॅरिसांत परतली. प्येअर कोर्नेय हाणें १६२८ वर्सा बरयल्लें पयलें नाटक 'मेलीत' हें हे नाटककंपनीन खूब गाजयलें. रीशल्यान हे कंपनीक उदार आलाशिरो दिलो. १६८० वर्सा फ्रेंचांचे 'कॉमेदी फ्राँसेझ' हे राश्ट्रीय रंगभूमिची स्थापणूक जाली.

नाटकघरांनी, सरदार लोक सामान्य लोकांचेर शेक गाजयताले. तांचेमदीं झगडीं जातालीं. ताका लागून मोल्येर, कोर्नेय आनी रासीन ह्या नामनेच्या नाटककारांनी आपल्या नाट्यकृतींनी दोन वेगवेगळया पांवड्यांवयलीं नाट्यां विकसीत केलीं. प्येअर कोर्नेय हो अभिजाततायवादी नाट्यनिर्मितींतलो जैतीवंत फ्रेंच नाटककार. 'द सिद' हें ताचें सगळयांत चड गाजिल्लें नाटक. झां रासीन ह्या नाटककारान फेद्रा, इफिजिनिया, आंद्रोमेदा हे सारकीं बरीचशीं शोकात्म नाटकां बरयलीं. सादें कथानक, स्वताकडे झगडपी पात्रां आनी उंचेल्या दर्जाचें पद्यात्मक लिखाण हीं रासीनाच्या नाटकांचीं खाशेलेपणां. कोर्नेय आनी रासीन हांणी सतराव्या शेंकड्यांत फ्रांसांतलें शोकात्म नाटक गाजयलें, तशेंच मोल्येरान उपहासिक सुरवात्मिका बरोवन संवसारभर नामना मेळयली. ताचीं उल्लेख करपासारकीं कांय नाटकां अशीं - तार्तूफ, मिसांचोफ, मायझर, द वुड - बी जंटलमन. ताणें सुरवात्मिकेक शोकात्मिकेसारको दर्जो मेळोवन दिलो, हें मोल्येराचें म्हत्वाचें कर्तृत्व.

अठराव्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन उच्चवर्गीय प्रेक्षक फ्रेंच नाटकघरांत माचयेर बसून नाटक पळयताले. पूण १७५९ वर्सा व्हॉल्तेअर ह्या नामनेच्या नाटककारान ही प्रथा बंद केली. मोल्येराच्या फाटल्यान मारीव्हो आनी बोमार्शे ह्या नाटककारांचो उल्लेख करूंक जाय. मारोव्होन बरीचंशीं विनोदी उपहासिक नाटकां बरयलीं. तशेंच बोमार्शेच्या नाटकांचें उत्कृश्ट संगीतिकेंत रुपांतर जालें. देखीक - द बार्बर ऑफ सेव्हिल, द मॅरेज ऑफ फिजारो. नेपोलियनाचे लोकसत्ताक राजवटींत, ताल्मा नांवाच्या एका श्रेश्ठ नटाक उदार राजाश्रय मेळ्ळो. जर्मनींत शिलर आनी गटे ह्या सारक्या नाटककारांनी, फ्रेंच रंगभूमिचेर, अभिजाततायवादाचें दुसरें तोंक जो स्वच्छंदतावाद हाडलो, ताचोय खूब प्रभाव पडलो. व्हिक्टर ह्यूगोचें 'हेर्नानी' हें ह्या पंथांतलें एक व्हड नाटक. आलेक्सांद्र द्यूमा हेय बापूय-पूत स्वच्छंदतायवादी नाटककार. हातुंतल्या पुताचें 'लेडी ऑफ द कमेलियाज' हें शोकात्म मोगानाट्य खूब गाजलें.

पॅरिसांतलें सगळयांत व्हड नाटकघर म्हळयार 'ऑपेरा'. हें नाटकघर बांदपाक सुमार १२ वर्सांचो काळ लागलो. १८७५ वर्सा ताचें उद्घाटन जालें. हातूंत २,१०० प्रेक्षकांक बसूंक मेळटा.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत फ्रांसांत राशेल, सारा बर्नहार्ट आनी रेझान ह्यो तीन नामनेच्यो अभिनेत्री जावन गेल्यो. बर्नहार्ट आनी रेझान हांणी युरोपाभायर अमेरिका, आफ्रिका आनी आफ्रिका ह्या खंडांनी दौरे केले. कॉक्लँ हो त्या काळचो एक लोकप्रिय नट. ताणें मोल्येराच्या चडशा सगळया नाटकांतलीं कामां केल्लीं. 'सीरानो द बेर्झीराक, ह्या रॉस्ताच्या नाटकांतली मुखेल भूमिका कॉक्लँ हाणें पयली केली. आंद्रे आंत्वान हे आधुनिक फ्रेंच रंगभूमिक नवें मोडण लावपी कलाकारान आपले 'मुक्त रंगभूमि' वरवीं फ्रांसांत वास्तववाद सुरू केलो. वास्तववादाचे हे मोहिमेक, फ्रांसांत झोल ह्या नाटककारान खूब आदार केलो. ह्याच काळांत रशियेंत स्टॅनिस्लाव्हस्की आनी इंग्लंडांत पोल हांचे समानधर्मी प्रयोग चलिल्ले. १९१३ वर्सा पॅरिसांत झाक कॉपो हाणें 'व्हीय कोलोंबिये' नांवाची संस्था सुरू केली आनी ल्हान ल्हान क्लृप्त्यांच्या आदारान बदलूंक मेळटलो असो रंगमंच आपल्या प्रयोगांतल्यान वापरूंक लागलो. ताच्यो नेपथ्याविशींच्यो कल्पना उपरांत गॉर्डन क्रेग हाणें अंमलांत हाडल्यो. विद्यमान फ्रेंच रंगभूमिक वयर काडपी नाटककारांभितर फार्साचो लेखक झॉर्झ फेदो, प्रतीकात्म तशेंच पुराणांतल्या कथांचेर उपहासिक नाटकां बरोवपी झां कोक्तो, प्रचलित परिस्थितीविशीं खर वास्तववादी नाटकां बरोवपी झां पॉल सार्त्र, मानवी शोकात्मिकतेचो सोद घेवपी आल्बेअर काम्यू, 'बेकेट'सारकें तत्त्वगंभीर नाटक जनमानसांत रुजोवपी झां आनुईय ह्या श्रेश्ठ प्रतिभावंतांचो उल्लेख करूंक जाय. सॅम्युएल बेकेट, योनेस्को हे मृषानाट्याचे विदेशी प्रणेतेय फ्रेंच भाशीय लिखाणाखातीर नामनेक पावले. भारत महोत्सवाच्या निमतान १९८४-८५ वर्सा फ्रांसांत झां क्लॉद कारिएर हाच्या फ्रेंच भाशीक महाभारताचो प्रयोग पीटर ब्रुक हाणें दिग्दर्शित केलो.

**जर्मन रंगभूमि :** तेराव्या ते पंदराव्या शेंकड्यांमेरेन जर्मनींत प्रहसनां चलतालीं. हौशी कलाकार हीं प्रहसनां करताले. तातुंतल्या विदूशकाक 'नार' अशें नांव आशिल्लें. प्रहसनांत चड लोकप्रिय आशिल्लें तें विनोदी स्वगत. तेराव्या शेंकड्यांत ॲरिस्टॉटलच्या 'पोएटिक्स' ह्या ग्रंथाचो जर्मनींत अणकार जालो. हाचे उपरांत तीन शेंकड्यांनी जर्मनींत प्रबोधनाक सुरवात जाली. प्रबोधनकाळांत इटलींत दोन प्रकारचीं नाटकां चलतालीं. एक म्हळयार प्लॉटस, टेरेन्स ह्या रोमन नाटककारांचे आनी दुसरें म्हळयार खास देशी परंपरांतल्यान जल्माक आयिल्लें 'कोम्मेदीआ देल्लार्ते'. हातुंतलो पयलो प्रकार जर्मनीन आपणायलो तर दुसरो फ्रांसान. १४२९ वर्सा जर्मनींत कुसानो नांवाच्या नाटककाराक प्लॉटसाच्यो अज्ञात आशिल्ल्यो १२ नाटकांच्यो संहिता मेळळ्यो. त्याच काळांत गूटेनबेर्क हाणें छापखानो सुरू केल्ल्यान, थंयच हीं नाटकां छापलीं आनी तांचो खूब प्रसार जालो. १४७३ वर्सा टेरेन्साचींय नाटकां अशेच तरेन छापून प्रसारीत केलीं. उपरांत तांचीं जर्मन भाशांतरां छापलीं. ह्या काळांत, जर्मन रंगभूमिचेर ग्रीक नाटककारांचोय खूब प्रभाव पडलो. हान्स झाक्स (१४९४-१५७६) हाणें पयलीं दोनशेंपरस चड प्रहसनां आनी विनोदी नाटकां बरयल्लीं. उपरांत ताणें ग्रीक परंपरेंतलें 'आल्सेस्तीस' नांवाचें शोकात्म नाटक बरयलें.

सोळाव्या शेंकड्याच्या मध्यासावन जेझुइटांनी स्थापन केल्ल्या शाळा-कॉलेजांतल्यान अभिजात लॅटीन नाटकांचे प्रयोग जावंक लागले. ते १७७३ वर्सा मेरेन म्हळयार जेझुइटांचे मध्यवर्ती संघटना बरखास्त जायमेरेन चालू आशिल्ले. करमणुकीवांगडा नैतिक मुल्यांचो प्रसार करपी हीं नाटकां अभिजात आशिल्लीं. हीं लॅटीन आनी ग्रीक नाटकां जर्मनींत खूब लोकप्रिय आशिल्लीं. १५३५ वर्सा मार्टिन ल्यूथर हाणें पाउल रेबहून ह्या नाटककाराकडल्यान, हे अभिजात परंपरेक सोबसारकें 'सुझाना' हें नाटक बरोवन घेतलें. सोळाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक इटलींत 'ऑपेरा' हो संगीत नाट्यप्रकार जल्माक आयलो. १६३७ वर्सा व्हिएन्नांत पयलें ऑपेरा हाउस बांदप जालें. सोळाव्या शेंकड्याचे निमाणेमेरेन युरोपांत नाटकघरांची उबारणी सुरू जावंक नाशिल्ली. १५५० वर्सा हान्स झाक्स हाणें न्यूरेंबर्ग ह्या शारांतलें वापरांत नाशिल्लें 'मार्था चर्च' ही एक कॅथलिक चर्च सोदून काडली आनी ताचें कायम स्वरुपाच्या नाटकघरांत रुपांतर केलें. ह्याच नाटकघरांत ताणें स्वताचीं अशीं जायतीं सदाचार नाटकां सादर केलीं. प्रबोधनकाळांतलें आनीक एक खाशेले तरेचें नाटकघर म्हळयार एके विस्तीर्ण बागेंत उक्तड्यार उबारिल्लें प्रेक्षकघर.जर्मनींतल्या सॉल्झबर्ग शारांत 'रलास मिराबेल' नांवाच्यो ज्यो बागो आशिल्ल्यो, थंय अशे तरेचीं नाटकघरां आशिल्लीं.

इटालियन वास्तुकारांनी, नाटकघरांचे वास्तुरचनेंत खूब सुदारणा केल्यो. पयलो जोसेफ फर्टनबाख हाच्या लिखाणांतल्यान मात, त्या काळांतले उजवाड येवजणेची म्हायती मेळटा.

अठराव्या शेंकड्यांत जर्मनीक कांय श्रेश्ठ नाटककार मेळळे. तातुंतलो पयलो लेसिंग. नाटकघरां बांदचे पयलीं जर्मनींत भोंवपी नाटक कंपन्यो आशिल्ल्यो. परदेशांतल्यान अशो कंपनी दौऱ्याचेर येताल्यो. १५८६ आनी १५९२ वर्सा दोन इंग्लीश नाटक कंपनी जर्मनींत आयिल्ल्यो. त्यो, आपले प्रयोग पयलीं इंग्लिशींत, उपरांत जर्मन आनी इंग्लीश अशी मिश्र करून आनी निमाणे पुराय जर्मनींत करताले. १७२७ वर्सा कॅरोलिन नायबॅर नांवाची जर्मन नटी आनी योहान ख्रिस्टॉप गोट्शेट नांवाचो जर्मन नट ह्या दोगांयनी मेळून अभिजात तत्त्वांक अणसरून प्रयोग करपाखातीर एक नाटक मंडळी स्थापन केली. पूण तांकांय कायम स्वरुपाचें नाटकघर नाशिल्लें. गोट्शेट हाणें जेन्ना अभिजात नाटकां करपाक सुरवात केली तेन्ना प्रेक्षकांनी ताका विरोध केलो आनी 'नाच्स्पिएल' म्हळयार प्रहसन ह्या प्रकाराचें ताका पुनरुज्जीवन करचें पडलें. अठराव्या शेंकड्यांत, हेर देशांतल्या चड करून फ्रांसांतल्या नाटकांचे अणकार व्हड प्रमाणाचेर जर्मन रंगभूमिचेर जावंक लागले. कॉर्नेय, रासीन आनी मोल्येर हांचीं नाटकां व्हड प्रमाणांत अणकारीत जालीं. १७३२ वर्सा गोट्शेट हाणें ॲडिसनचें 'केटो' हें इंग्लीश अभिजात नाटक जर्मन रंगमाचयेर हाडलें. श्रोडर नांवाच्या कुशळ जर्मन नटान शेक्सपिअरच्या कितल्याशाच नाटकांनी काम केलें. अठराव्या शेंकड्यांत युरोपियन रंगभूमिचेर 'द्राम' नांवाचो एक नाट्यप्रकार चलतालो. ह्या प्रकारचीं जे.ई. श्लेगेल हाचीं 'द ट्रायम्फ ऑफ द गुड वुमन' आनी 'द सायलेंट ब्युटी' हीं दोन पद्य नाटकां आसात. १७४५ वर्सा सी. एफ्. जेलर्ट ह्या नाटककारान 'द्राम' हो प्रकार जर्मन रंगभूमिचेर रूढ केलो. पूण ह्या प्रकाराचें चड श्रेय लेसिंग ह्या नाटककाराक दिवंक जाय. ताणें ह्या प्रकारांत, खरे सुखात्मिकेंत विनोदी आनी भावपूर्ण अशा दोनूय प्रकाराचें प्रवेश आसूंक जाय, अशें स्पश्टीकरण केलें. १७५५ वर्सा ताणें बरयल्ल्या 'मिस सेरा सॅम्पसन' ह्या नाटकाचो, भोंवतणच्या नाटककारांचेर खूब प्रभाव पडलो. ताचीं हेर उल्लेख करपासारकीं नाटकां अशीं आसात- मिना व्हान बार्नहेम आनी एमिलिया गालोटी. उपरांतच्या जर्मन कलासाहित्यांत 'स्टुर्म उंड ड्रांग' (स्टॉर्म अँड स्ट्रेस) नांवाचो काळ उदेलो. हे विचारधारेचेर रूसोचे स्वच्छंदतावादी विचारसरणेचो प्रभाव पडिल्लो. जर्मनींतले हे चळवळीच्या, गटे आनी फ्रीड्रिख फोन शिलर ह्या म्हान प्रवक्त्यांचो उल्लेख करूंक जाय. ह्या कालखंडाचो अस्त जातकच लेगीत ह्या दोगांयनी लक्षणीय नाटकां बरयलीं. फाउस्ट हें गटेचें सगळयांत चड गाजिल्लें नाटक. ग्रीक पुराणकथेचेर आदारिल्लें 'इफिजेनी इन टॉरिस' (इं.शी.) आनी इटालियन महाकवीवयलें 'तोरक्कातो तास्सो' हीं ताचीं म्हत्वाचीं नाटकां. द रॉबर मारिया स्टुअर्ट आनी विल्हेल्म टेल हीं शिलरचीं नाटकां. अठराव्या शेंकड्यांत फ्रांसाभाशेन जर्मनीचे रंगभूमिनूय खूब नेटान उदरगत केली. श्रोडर

हाणें सुरू केल्ली परंपरा लूटव्हीख टीक हाणें आपल्या अणकारांवतीन फुडें चलयली. गटेन ५४ प्रवेश आशिल्लें 'गोट्झ फोन बर्लिचिंगेन' हें नाटक १७७३ वर्सा उजवाडायलें. शिलरचें 'द रॉबर' हें नाटक हेच पद्धतीचें. तशेंच ताच्या १७९९तलें वॉलेन्स्टाइन हें नाटक म्हळयार एकठांय तीन नाटकां आसून तातुंतल्या दोन नाटकांनी पांच अंक आसात.

शिलरान ग्रीक नाट्यसाहित्याचो अभ्यास केल्ल्यान ताका 'नेमेसिस' ची कल्पना येवजली. नेमेसिस म्हळयार खंयच्यातरी विराट, अज्ञात शक्तीच्या शापाक लागून आपलो जावपी विनाश. अशा शापांची कल्पना हेर जर्मन नाटककारांनीय घेतली. स्वच्छंदतावादी परंपरेंतल्यान जर्मनींत दोन तरांचीं नाटकां जल्माक आयलीः 'रिटरड्रामेन' म्हळयार सरदारी आदर्शांविशींचीं नाटकां आनी 'सहरस्टुक' म्हळयार भावविवशतापूर्ण अतिनाट्यां. ह्या नाटकांचो प्रभाव युरोपांतल्या कांय देशांनी, इंग्लंडांत आनी अमेरिकेंतूंय पातळिल्लो.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत रंगमाचयेवयले प्रयोगपद्धतींत क्रांतिकारक बदल जावंक लागले. बर्लिनांत व्हान ब्रयूल नांवाच्या सरदारान चित्रदीप (मॅजिक लँटर्न) हाचो पयलींच उपेग केलो. झेम्पर, टीक, एमरमान ह्या तिगांयनी शेक्सपिअरच्या काळांतले रंगमाचयेची नक्कल करून ताचीं नाटकां चड सादेपणान उबीं करपाचो यत्न केलो. लूटव्हीख डेव्हरीट हो एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवातीचो एक प्रतिभावंत.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत युरोपांतल्या विचारवंतांनी नाट्यकलेविशींच्या विचारांत जी क्रांती घडोवन हाडली तिचे पडसाद जर्मन रंगभूमिचेरूय उदेले. गेर्हार्ट हाउप्टमान हो तिचो पयलो नाटककार. १८८९ वर्साचें ताचें बिफोर सनराइज हें नाटक युरोपांत इब्सेन आनी चेकॉव्हसारक्या वास्तववादी नाटककारांचे धर्तेभाशेन आसा. पूण उपरांत मात ताणें 'द संकन बेल' आनी 'अँड पिप्पा डान्सेस' हीं प्रतीकात्मक कल्पनारम्य नाटकां ताणें बरयलीं. जर्मनींत, 'फ्रेई बुहन' आनी 'फ्री थिएटर' (इं. शी.) ह्यो दोन नाटककंपन्यो खूब गाजल्यो. ह्या कंपन्यांतल्यानूच 'आंसांब्ल' म्हळयार सांघिक अभिनयाची सुरवात जाली.

हाउप्टमाना फाटल्यान झूडरमान हाका जर्मन नाटककार म्हूण मानाची सुवात आसा. वास्तववादाकडे दुर्लक्ष करून जर्मन रंगभूमी गाजोवपी काव्यात्म नाटककार म्हळयार फ्रांक व्हेदेकिंट. मध्यमवर्गीय नीतिनेमांची असहिष्णुता ह्यो ताच्या विशयाचे अभिव्यक्तिवादी नाटककारांचेर खूब प्रभाव पडलो. हे शैलीचे एन्स्ट टोलर आनी बेर्टोल्ट ब्रेक्ट हे मुखेल प्रवक्ते. मास मेन्श (इं.अ. मॅन अँड द मासेस) हें टोलराचें सगळयांत चड गाजिल्लें नाटक. 'एपिक (आर्ष) थिएटर' ही ब्रेक्टाची संकल्पना. थ्री पेनी ऑपेरा, मदर करेज अँड हर चिल्ड्रन, द गुड वूमन ऑफ सेत्सुआन, द कॉकशिअन चॉक सर्कल हीं ब्रेक्टाचीं म्हत्वाचीं नाटकां.

विद्यमान जर्मन रंगभूमि आंतरराश्ट्रीय आसा. रंगमाचयेवयले प्रयोगपद्धतींत क्रांतिकारक संकल्पना मांडपी जर्मन निर्मात्यांभितर मायरहोल्ट, अर्विन पिस्केटर, थिओ ओटो हांचो आस्पाव जाता. विद्यमान मुखेल नाटककारांभितर गंटर ग्रास, माक्स फ्रिश, फ्रिड्रिख ड्युरेनमाट, एन्स्ट बारलाख हांचो उल्लेख करूंक जाय.

**पोलिश रंगभूमि :** अठराव्या शेंकड्यांत, युरोपांत शोकात्म नाटकांबदला संगीतिका आनी नृत्यनाट्यां हांचे प्रयोग जाताले. धर्मीक रंगभमिवयल्या नैतिक आनी उपदेशपर नाटकांक चड म्हत्व आशिल्लें. फ्रांस, चेकोस्लोव्हाकिया, जर्मन, इटली ह्या देशांतल्यान विंगड विंगड भाशा, संस्कृतीक परंपरा आयल्यो आनी तांच्या पालवान किरिस्तांव धर्मप्रभाव वाडूंक लागलो. खास पोलंडचे संस्कृतीची सुरवात अठराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक आनी एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन जावंक लागली. परदेशी नृत्यनाट्यां आनी संगीतिका हांचे प्रयोग पयलींच सतराव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत आनी उपरांतच्या शेंकड्यांनी जाले. १७६५ वर्सा पोलंडांतल्या वॉर्सा ह्या मुखेल शारांत राश्ट्रीय रंगमंदिर निर्माण जालें. तातूंत जावपी नृत्य - नाट्य आनी संगीतिकांचे प्रयोग चडकरून वरिश्ठ सत्ताधारी लोकांखातीर जाताले. कांय काळा उपरांत, मध्यमवर्गीयांखातीर वेगळीं रंगमंदिरां निर्माण जालीं. तेन्ना व्हॉइचेख बॉगूस्लाव्हस्की हाका लेखक, दिग्दर्शक आनी नट म्हणून खूब नामना मेळळी. उपरांत पोलंडचे रंगभूमिचेर शेक्सपिअरच्या नाट्यकृतींचो प्रभाव दिसूंक लागलो. अन्डिव्हायन कॉमेडी हे सुखात्मिकेंत पोलंडांतल्या वास्तववादी नाटकाची सुरवात जाली. नाट्यलिखाणाचे नदरेन कामिल नॉर्व्हिड ह्या लेखकान आपली मौनाची उपपत्ती मांडली.

विसाव्या शेंकड्यांत, व्हिसप्यान्यस्की ह्या नामनेच्या नाटककारान, वास्तववादी नाटकांतल्यान पोलिश समाजांतले संघर्ष लोकांमुखार मांडले. १९६० वर्सा पोलंडांत' पोलिश लॅबोरेटरी थिएटर' स्थापन केलें.

**रशियन रंगभूमि :** हेर खंयचेय रंगभूमिप्रमाणूच रशियन रंगभूमिचें मूळ लोकनाट्यांत मेळटा. कथाकथन, नाच, संगीत, नकलो, कसरती, जादूचे खेळ, कळसूत्री बावल्यो, जनावरांचे खेळ हे स्कोमोरोखी नांवाच्या भटक्या लोककलावंतांनी लोकरंजनाखातीर सादर केल्ले उक्ते सुवातीवयले खेळे आशिल्ले. धाव्या शेंकड्यांत रशियेंत जाल्ल्या खिरस्ती धर्माच्या प्रसारावांगडा चर्चीच्या वाठारांत धर्मीक नाटकां जावंक लागलीं. सतराव्या शेंकड्याचे अखेरेक युरोपीय रंगभूमिचे धर्तेचेर लोकनाट्याच्या आदाराचेरूच विकसनशील अशीं नाट्यरुपां निर्माण जालीं. १६१३ वर्सा मॉस्को हांगा एक रंगमंदिर

बांदलें. सतराव्या शेंकड्याचे सुरवेक राजकीय अस्थिरतेचो परिणाम म्हणून, तेचभाशेन जेझुइटांच्या आक्रमणाचो प्रतिकार करपाखातीर रशियन चर्चीक रंगभूमिचें साधन गरजेचें दिसलें. १६३३ वर्सा कीव्ह हांगा धर्मीक अकादमीची स्थापणूक जाली. जेझुइटांचें अनुकरण करून रशियन चर्चसंस्थेन धर्मप्रसाराखातीर बायबलांतल्या आनी इतिहासीक विशयांचेर पोरने स्लाव्हेनिक भाशेंत लिखित नाटकां निर्माण जावंक लागलीं. हे चर्चकेंद्रित रशियन रंगभूमिचेर प्रहसनासारके नाट्यप्रकारूय जल्माक आयलो. त्या काळांतलो उल्लेख करपासारको प्रवर्तक म्हळयार स्यीमॉन पोलोट्स्की. पोलंडांतले भोंवडेचो परिणाम आनी बायलेची आंग्ल विद्याकलांची आवड हाकालागून झार अलेक्सिस हाची रंगभूमिविशींची नदर चड व्यापक जाली.

पीटर द ग्रेट हाचे कारकीर्दींत रशियन रंगभूमिक परतून चवंर आयलो. ताणें आपल्या राजकीय उद्दिश्टांखातीर रंगभूमिचो खूब उपेग केलो. मॉस्कोच्या लाल चौकांत, एक भव्य रंगमंदिर 'बोल्शोई' बांदलें. पीटर द ग्रेट हाची भयण पयली क्रॅथरिन हिचे राजवटींत तिचें स्वताचें खाजगी नाटकघर आशिल्लें. तिच्या स्वताच्या नाटकांनी दरबारी रंगभूमिक आनीक एक मोडण फावो जालें. तिच्या इतिहासीक नाटकांचे प्रयोग हौशी विद्यार्थी - कलावंत करताले. चर्चीचे धर्मीक रंगभूमिन, नाट्यलिखाण आनी नाट्यप्रयोगाविशीं म्हत्वाचें इतिहासीक कार्य केलें. सुमरोकॉव्ह हाच्या नाटकांनी रशियाचे राश्ट्रीय रंगभूमिचे निर्मितीक चड ऊर्बा मेळ्ळी. 'सोसायटी ऑफ लव्हर्स ऑफ रशियन लिटरेचर' हे कॅडेट कॉलेजी संबंदीत अशे वाङ्मयीन संस्थेचो सुमरोकॉव्ह सदस्य आशिल्लो. हे संस्थेउपरांत एके वेवसायीक नाट्यसंस्थेची स्थापणूक जाली. तातूंत ताश्याना म्यिकायलव्हन ट्रोपीलेस्काया ही शोकात्म नायिकेचें काम करपी श्रेश्ठ अभिनेत्री आशिल्ली. हे संस्थेवतीन फ्रेंच, जर्मन नाटकांचीं रुपांतरां, सुमरोकॉव्हचे परंपरेंतलीं नव-अभिजातवादी वळणाचीं नाटकां, सुखात्मिका, गांवगिरे जिणेवयल्यो कल्पनारम्य संगितिका सादर जाताल्यो. राणी कॅथरिन आनी फन्वीजिन हांच्यो ह्या प्रकारांतल्यो नाट्यकृती उल्लेख करपासारक्यो आसात.

अठराव्या शेंकड्यांत, रशियन सरंजामदार आपल्या कुळांचेवतीन आपल्या इश्ट - सोयऱ्यांची करमणूक करपाखातीर मनोरंजनाच्यो कार्यावळी करताले. हे प्रथेंतल्यान भूदास कलाकारांच्यो स्थानिक नाट्यसंस्था निर्माण जाल्यो. हातुंतल्यानूच वेवसायिक रंगभूमिवयले गुणी कलाकार तयार जाले. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवातीचो व्हलडियस्लाव्ह आल्यिकसांद्रव्हिच ओझिरॉव्ह हो उल्लेखनीय रशियन नाटककार. फ्रेंच नव-अभिजाततावादी शैलींत ताणें इतिहासीक नाटकां बरयलीं. फ्योडोरोव्ह आनी इल्यिन हीं ताचीं लोकप्रिय नाटकां. निकोलस पल्येव्हाय आनी नेस्टॉर कुकोलनिल्स ह्या नाटककारांचो उल्लेख करप गरजेचो. पल्येव्हायचीं नाटकां देशभक्तिचेर आदारिल्लीं. कुकोलनिल्स हाचें पयल्या रोमनॉव्हावयलें इतिहासीक नाटक खूब गाजलें.

१८४० वर्सा रशियन रंगभूमिचेर फ्रेंच एकांकी प्रहसनांचो प्रवेश जालो. अल्यिक्सांडर शॉकोव्हस्की हो ह्या नाट्यप्रकाराचो नामनेचो प्रवर्तक. नेपोलियनच्या पराभवा उपरांत (१८१२) कांय रशियन नाटककारांक खूब नामना मेळ्ळी. देखीक - पुश्किन, गोगोल, चेकॉव्ह, टुर्ग्यैन्येव्ह, टॉलस्टॉय, ल्यर्मंटॉव्ह, गॉर्की आनी ग्यिबयेडॉव्ह. ह्या काळांत, पयलेच खेप रशियन नाटककारांनी रशियन रंगभूमिचेर सुदारणा घडोवन हाडल्यो. पूण 'डिसेंबरिस्ट' क्रांतीक लागून कांय काळ हे रंगभूमिक अवकळा आयली. १८५५ वर्सा दुसरो अलेक्झांडर गादयेर येतकच बरेच समाजीक बदल घडून आयले. अस्ट्रॉव्हस्कीच्या नाटकांतल्यान ह्या समाजीक परिवर्तनाचें प्रभावी दर्शन घडटा. १८८२ वर्सा मॉस्कोंतले रंगभूमिची मक्तेदारी सोंपतकच खाजगी नाट्यसंस्था आनी रंगमंदिरांची स्थापणूक जाली. कोर्श थिएटर (१८८२), मॉस्को आर्ट थिएटर हीं तातुंतलीं नामनेचीं नाटकघरां. नेमिरोव्हिच दानचेन्को आनी स्टॅनिस्लॅव्हस्की हे श्रेश्ठ नाट्यकलाकार मॉस्को आर्ट थिएटराचे संस्थापक आशिल्ले. हीं संस्थेन चेकॉव्ह ह्या नाटककाराच्यो बऱ्याचशा नाट्यकृतींचे प्रयोग केल्यात. त्या काळांतली श्रेश्ठ नाट्यकलावंत ओल्गा निपर (हिणें उपरांत चेकॉव्हाकडे लग्न केलें), मारीआ जेर्मनोव्हा, मॉस्कोव्हीन कॅचॅलॉव्ह आनी ल्यिऑनिदॉव्ह हे मॉस्को आर्ट थिएटराचे श्रेश्ठ कलाकार.

रशियन राज्यकर्त्यांनी १९३२ वर्सा समाजवादी वास्तववादाचो नवो दंडक निर्माण केलो. ह्या काळांतले कांय उल्लेखनीय नाटककार म्हळयार कॅटयेव्ह, अर्बुझॉव्ह, पगॉडियन, व्ही. एम्. व्यिर्शॉन. दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून राश्ट्रभक्तिचेर, इतिहासीक तेचभाशेन झुजाउपरांतच्या काळांत उद्येगीक आनी शेतीविशींच्यो अडचणी ह्या विशयांवयलीं नाटकां रशियन रंगभूमिचेर येत रावलीं. स्टालिनच्या मरणाउपरांत ए.पी. श्टयेन, व्होलोदिन ह्या नाटककारांच्यो नाट्यकृती गाजल्यो. येफ्रेमॉव्ह, टॉव्हस्टोनॉगॉव्ह ह्या दिग्दर्शकांनी परदेशी नाट्यकृतींचे प्रयोग सादर केले. १९६४ वर्सा लिबिमॉव्ह हाणें टागांका थिएटर (थिएटर ऑफ ड्रामा अँड कॉमेडी) सुरू केलें.

**अमेरिकन रंगभूमि** : सतराव्या शेंकड्यांत, अमेरिकेंत नाट्यजिणेची सुरवात जाली,पूण थंयचें जनमत नाटकधंद्याआड आशिल्लें. न्यू इंग्लंड तशेंच अमेरिकेच्या मध्यभागांनी कर्मठ समाजधुरिणांनी नाट्यप्रयोगांचेर पुराय बंदी घाली. १६६५ वर्सा व्हर्जिनिया वसाहतींत एका नाटकाचो प्रयोग जाल्लो. पूण १७०९ वर्सा न्यूयॉर्क प्रांतांत नाटकांचेर बंदी घाली. १७१६ वर्सा व्हर्जिनियांतल्या विल्यम्सबर्ग गांवांत थंयचीच एक कंपनी प्रयोग करूंक लागली. १७२३ वर्सा फिलाडेल्फियांत भोंवपी नाटककंपन्यांचे प्रयोग जाल्ल्याची नोंद आसा. ह्याच शारांत १७४९ वर्सा एका गुदावांचें नाटकघर करून नाटकां जावंक लागलीं.

ही कंपनी फुडल्या  वर्सा न्यूयॉर्क आनी विल्यम्सबर्ग हांगा वचून आयली. हॅलम ही इंग्लंडांतल्यान आयिल्ली नाटककंपनी १७५२ वर्सा व्हर्जिनियांत पावली. सुमार वीस वर्सां तिणें बऱ्याचशा गांवांनी दौरे केले, पूण १७७४ वर्सा ही कंपनी बंद जाली. अमेरिकन स्वातंत्र्यझुजाच्या काळांत, म्हळयार झूज सोंपतकच हे कंपनीन नाटकांचो परतून नेट धरलो. १७६६वर्सा डेव्हिड डग्लस हाणें 'साउथवार्क' ह्या नांवाचें नाटकघर सुरू केलें. थंय वेवसायीक नटांनी उबें केल्लें 'द प्रिन्स ऑफ पार्थिया' हें पयलें अमेरिकन नाटक. उपरांत डग्लस हाणें न्यूयॉर्कांत 'जॉन स्ट्रीट' नांवाचें नाटकघर बांदलें. तें १७६७ वर्सा सुरू जालें. अठराव्या शेंकड्याच्या निमाण्याच्या दशकांत आनीक चार नाटकघरां अमेरिकेंत उबीं जालीं.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत इंग्लंड आनी अमेरिका हांच्यांत नट, नाटकमंडळां, नाटकां हातूंत खूब व्हड प्रमाणांत देव-घेव चलिल्ली. ह्या काळांत दोनूय देशांनी नाटकांचें आव्हान समाजाच्या सगळया थरांक आशिल्लें. १८०६ वर्सासावन बऱ्योचशो कंपन्यो अमेरिकेंत कार्यरत आशिल्ल्यो. ह्या शेंकड्यांत न्यूयॉर्कांत चाळीसांपरस चड नाटकघरां बांदप जालीं. नाटकांविशीं अमेरिकाय इंग्लंडाइतलीच युरोपांतल्यान येवपी नाटकांचेर आदारून आशिल्ली. चमत्कारीक कथानकाचेर आदारिल्लो नाट्यप्रकार (रोमान्स) थंय बरो चलतालो. अमेरिकेंत ह्या नाट्यप्रकारान रेड इंडियन लोकांचे फाटभुंयेचेर बरयल्ल्या नाटकांचें रूप घेतलें. तशेंच इतिहासीक फाटभुंयेचेर आदारिल्लीं नवलायेन भरिल्लीं नाटकां अमेरिकन रंगभूमिचेर चालूच आशिल्लीं. एडविन फॉरेस्ट नांवाचो नट द ग्लॅडिएटर ह्या नांवाच्या अशा प्रकारच्या नाटकांत खूब गाजलो. ह्या नाट्यप्रकारा उपरांत कुटुंबिक स्वरुपाचीं नाटकां जावंक लागलीं. ह्या काळांत अमेरिकन रंगमाचयेर विनोदी नाटकांचे विंगड विंगड प्रकार चलताले. तातुंतलें सगळयांत खाशेलें म्हळयार विडंबननाट्य (बर्लेस्क). इंग्लंडांतल्यान येवन अमेरिकेंत स्थायिक जाल्यो नाटककार, जॉन ब्रूम हाणें वाङ्मयीन, राजकीय आनी समाजीक विशयांचेर उपहासप्रधान अशीं विडंबननाटकां रंगमाचयेर हाडलीं.

१८१६ वर्सा अमेरिकन नाटकघरांत पयलेच खेप गॅसाचे दिवे आयले. १८७९ वर्सा एडिसनान विजेच्या दिव्यांचो सोद लायलो आनी त्याच वर्सा अमेरिकन नाटकघरांतल्यान हे विजेचे दिवे वापरपाक सुरवात जाली. रंगमाचयेचे फुडले वटेन उजवाड येवजण करपाचो पयलो प्रयोग डेव्हिड बेलास्को हाणें १८७९ वर्सा सॅन फ्रॅन्सिस्को हांगाच्या ग्रँड ऑपेरा ह्या नाटकघरांत केलो. त्यावेळार ताणें एका रेल्वे इंजिनाचो दिवो खर उजवाड घालपाखातीर वापरलो.

एडवर्ड फॉरेस्ट हाचेउपरांत एकुणिसाव्या शेंकड्यांतलो एडविन बूथ हो सगळयांत श्रेश्ठ अमेरिकन नट रंगमाचयेर आयलो. १८६४ वर्सा ताणें हॅम्लेटचे शंबर प्रयोग केले. ह्याच काळांत इंग्लंडांतल्यान बरेचशे नट - नटयो अमेरिकन नाटकघरांतल्यान गाजिल्ल्या नाटकांचे प्रयोग करपाखातीर येताले. डेव्हिड बेलास्कोइतकोच कर्तुत्ववान आशिल्लो दुसरो एक अमेरिकन निर्मातो म्हळयार ऑगस्टीन डेली. ऑक्टोबर १९३५ वर्सा 'वर्क्स प्रोग्रेस ॲडमिनिस्ट्रेशन'च्या शेकातळा राश्ट्राध्यक्ष फ्रँकलिन डेलनो रुझवेल्ट हाणें 'द फेडरल थिएटर प्रोजेक्ट' सुरू केलो. तेन्ना तातूंत धा हजार लोक नोकरेक आशिल्ले आनी चाळीस संस्थानांनी ताचेवतीन नाटकघरां चलतालीं. ही येवजण जुलय १९३९ मेरेन चालू आशिल्ली. 'समर - स्टॉक' नांवाची एक परंपरा अमेरिकन रंगमाचयेर प्रचलित आसा. १९२९ - ३० ह्या दरम्यान बरे बरे नाटककार उदयाक आयले. यूजीन ओनील ह्या नाटककारान आपल्या द एम्परर जोन्स, डिझायर अंडर द एल्म्स, मोर्निंग बिकम्स इलेक्ट्रा ह्या नाटकांतल्यान आपली अभिजात खाशेलपणां प्रस्थापित केलीं. ताच्या मरणाउपरांत तीन वर्सांनी १९५६ वर्सा रंगमाचयेर आयिल्ली ताची श्रेश्ठ शोकात्मिका 'लाँग डेज जर्नी इंटू नाइट' ही आत्मचरित्रात्मक आसा. ओनीलच्याच काळांत गाजिल्लो मॅक्सवेल ॲंडरसन हो दुसरो नाटककार. व्हॉट प्राइस ग्लोरी ? हें ताचें झुजाआड बरयल्लें नाटक १९२४ वर्सा खूब गाजलें. इलिझाबेथ द क्वीन (१९३०), मेरी ऑफ स्कॉटलंड (१९३३) हीं दर्जेदार इतिहासीक नाटकांय ताणें बरयलीं. इन्ग्रिड बर्गमन हे संवसारीक नामनेचे नटयेखातीर ताणें 'जोन ऑफ लॉरेन' हें अभिनव नाटक बरयलें. एल्मर राइस हो आनीक एक आधुनिक नाटककार. ताच्या नाटकांभितर द ॲडिंग मशीन (१९२३) हें नाटक खूब गाजलें. स्ट्रीट सीन (१९२९) हें ताचें आनीक एक श्रेश्ठ नाटक. ह्या काळांतले सिडनी हॉवर्ड, जॉर्ज केली, फिलिप बॅरी आनी एस्. एन्. बेर्मन ह्या नाटककारांच्या नांवांचो उल्लेख करूंक जाय. रॉबर्ट शेरवुड ह्या नाटककाराचें 'एब लिंकन इन इलिनॉइस' हें आनी हेर कांय नाटकां चित्रपट निर्मितीखातीर वापरलीं. 'ग्रुप थिएटर' नांवाची संस्था चड काळ तिगली ना पूण तिणें बरेचशे नवे नाटककार न्यूयॉर्कचे रंगमाचयेर हाडले. क्लिफर्ड ओडेट्स ह्या नाटककाराचें 'वेटिंग फॉर लेफ्टी' हें नाटक खूब गाजलें. लिलियन हेल्मन हिचे दावे राजकीय विचारसरणेक लागून 'द लिटल फॉक्सेस', 'द चिल्ड्रेन्स अवर' ह्या नाटकांक खूब नामना मेळ्ळी. तेचभाशेन थॉर्न्टन वाइल्डर ह्या नाटककाराक ताच्या 'अवर टाऊन' आनी 'द स्किन ऑफ अवर टीथ' ह्या नाटकांकलागून रसिक वळखतात. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांतच्या काळांत दोन व्हड गाजले ते म्हळयार ऑर्थर मिलर आनी टेनसी विल्यम्स. ब्रॉडवेचेर गाजिल्ल्या नाटककारांभितर एडवर्ड ॲल्बी हाचो उल्लेख मुजरत करूंक जाय. ताचीं द झू स्टोरी, हू इज अफ्रेड ऑफ व्हर्जिनिया वुल्फ हीं ताचीं नाटकां खूब गाजलीं. सद्याचे अमेरिकन रंगमाचयेर नाटकांचे जोडयेक संगीतिका आनी संगीत नाटक हे प्रकार चड चलतात.

**चिनी रंगभूमि :** धर्मीक चाली - रिती आनी वागणूक हांचे परंपरेंतल्यान चीन रंगभूमिचो उदय आनी विकास जालो. दंतकथेंतल्यान मेळटा ते म्हायतीप्रमाण जो राजघराण्यांत (इ.स.प. ११२२ ते इ.स.प. २५५) आनी आठव्या शेंकड्यांत मिंग हवांग ह्या टँग राजघराण्यांतल्या राजान ह्या प्रयोगांक खूब उदार आलाशिरो दिलो. पूण युआन राजघराण्याच्या काळांत सांबाळून दवरिल्लीं सुमार १३० नाटकां (इ.स. १२८० ते १३६८) हो एकूच सुरवातीचो आदार थरता. १६०० त 'शंभर युआन नाटकां'. ह्या नांवाखाला हीं छापील नाटकां मेळटात. हीं नाटकां अभिजात परंपरेंतलीं आसून तांची भास खूब कमी लोकांक समजता 'पीकिंग ऑपेरा' ह्या नांवान नामनेक पाविल्लो प्रकार लिखित स्वरुपांत आसा. संवाद आनी संगीत हें व्हड आवाजान आनी पारंपरीक पद्धतीन पाठ म्हणप हाचेर चिनी नाटकांत चड भर दितात. ह्या नाटकांची एक माळच आसता आनी तातुंतली कथा धर्मीक कथांकडे संबंदीत आसता. दर एक पात्र आपली आपूण वळख करून दिता आनी कथेचो हेत सांगता. नाटकापरस चिनी रंगमाची खाशेल्या स्वरुपाची आसता. बायलो मात्शे उंचायेचेर बंदिस्त सज्ञांत आनी दादले जमनीर बसून नाटक पळयतात. ह्या प्रयोगाचें खाशेलपण म्हळयार नाटक चालू आसतना तातुंतल्या नट-नटयांक लागपी सामुग्री पावोवपी मनीस माचयेर यो-वच करीत आसता. नटांची रंगभूशा आनी भेस भडक आसता. नायक, नायिका, खलनायक, विदूशक सगळे एकेच तरेन व्हडान भाशणां करतात. वाद्यांच्या आदारान, नाटकांत संगीताचो खूब वापर करतात. जपानी नाटकांच्या परिचया उपरांत चिनी नाटकांत सगळ्या आंगांनी बदल घडून आयलो.

**जपानी रंगभूमि :** जपानांत अभिजात आनी सामान्य लोकांत लोकप्रिय आशिल्ली अशा दोन तरांनी जपानी रंगभूमिचो विकास जालो. अभिजात रंगभूमि राजदरबारांतले खास सरदार अधिकारी लोकांखातीर मनोरंजनाचें कार्य करताली तर सामान्य लोकांचें मनोरंजन 'काबुकी' ह्या लोकनाट्यावतीन जातालें. अभिजात रंगभूमिवयलीं नाटकां 'नो' (नो म्हळयार बुध्दिमत्ता) ह्या नांवान वळखताले. 'काबुकी' म्हळयार पदां, नाच हांतुतल्यान प्रकट जावपी कला. रंगभूमिचे हे दोनूय प्रकार नेपथ्य, अभिनय, रंगभूशा आनी भेस ह्या सगळया बाबतींनी वेगळे आसात.

चवदाव्या आनी पंदराव्या शेंकड्यांत देवळाच्या प्राकारांतल्यान विकसित जाल्ल्या नो ह्या नाटकांनी फुडें समाजांतल्या सुसंस्कृत, दरबारी वर्गाच्या रंजनाचें काम सुरू केलें. तेचभाशेन काबुकी नाट्यांतल्यो बऱ्योचशो गजाली नव्यान आपणायल्यो. कान्आमी कियोत्सुगू आनी झेआमी मोतोकिओ ह्या बापूय - पुतान हो नाट्यप्रकार घोळयलो. ह्या नाटकांचे प्रयोग वेवस्थित रितीन जाताले. फकत दादलेच हातूंत भूमिका करताले आनी तांकां भुरगेपणा सावन अभिनयाचें शिक्षण दिताले. सामान्य वस्तूंचो वापर प्रतीकां म्हणून करताले. नाचाचोय हातूंत आस्पाव जातालो. रंगमाचयेर दोन ते स पात्रांनी प्रवेश करपाची चाल आशिल्ली. नो नाट्यपरंपरेंतलीं सुमार दोनशें अडीचशें नाटकां उपलब्ध आसून, तातूंत वास्तवता आनी आदर्शवाद हांचें काव्यात्म मिश्रण दिसून येता. हे परंपरेक उपरांत 'वनराकू - झा' ह्या बावली - नाट्याची जोड मेळ्ळी. ह्या नाट्यप्रकारांत चिकामात्सू मोनझाएमोन ह्या निर्मात्याक खूब नामना मेळ्ळी. ह्या प्रयोगांचो अस्तंती रंगभूमिचेरूय परिणाम जालो. जर्मन नाटककार ब्रेक्ट आनी इंग्लीश कवी येट्स हांच्यो नाट्यकृती हे प्रेरणेंतल्यान निर्माण जाल्यो.

काबुकी रंगभूमिचेर चिनी लोकरंगभूमिचो खूब परिणाम जाल्लो दिसता. चिनी रंगभूमिचेर माचयेवयल्या नटांक जाय त्यो वस्तू पावोवपी व्यक्ती हांगाय रंगमाचयेर येवन आपलें काम प्रयोगभर करीत आसता. पूण तो काळो भेस करता. सतराव्या शेंकड्याचे सुरवेक ह्या रंजननाट्याची सुरवात जाली. उक्ते सुवातेंत जावपी ह्या प्रयोगांत रंगमाचयेच्या तिनूय वटांनी प्रेक्षक बसताले. तांचेमदल्यान मात्शे ऊंच सुवातेर दोन वाटो दवरिल्ल्यो आसताल्यो आनी थंयसावन नट माचयेर येताले. नटांची रंगभूशा भडक आनी मात्शी विचित्र आसताली. नायक धवो आनी खलनायक तांबडो भेस करतालो. आपल्या भाशणांतल्यान पात्रां आपलें नांव, स्वभाव, प्रसंग हे विशींचो सगळो तपशील सांगताले. घुंवते रंगमाचयेचो वापर करून प्रसंगांतलो आनी स्थळांतलो बदल दाखयताले. वाद्यवृंदाच्या आदारान गावन आनी नाचून नट काम करताले.

**संस्कृत रंगभूमि :** प्राचीन भारतीय रंगभूमिची पूर्वपीठिका ख्रिस्तापयलीं पयल्या शेंकड्यामेरेन फाटल्यान व्हरूं येता. ह्या काळांत भास हो नाटककार जावन गेलो. भारतीय नाट्यशास्त्राचो मुखेल आचार्य भरतमुनी हाच्या नाट्यशास्त्राच्या आदारान प्राचीन भारतीय रंगभूमिच्या स्वरुपाची कल्पना करूं येता. सामान्यपणान इसवी सनाच्या चवथ्या शेंकड्यासावन आठव्या शेंकड्यामेरेनचो भारतीय रंगभूमिचो काळ हो तिच्या इतिहासांतलें भांगरायुग मानतात.

नाट्यशास्त्रांतले म्हायतीप्रमाण त्या काळांतले नाट्यप्रयोग हे खास करून तेरखातीरूच उबारिल्ल्या रंगमंडपांत जाताले. देवळांचे सभामंडप आनी प्राकार तेचभाशेन राजवाड्यांतलीं सभाघरां हांचोय नाट्यप्रयोगाखातीर वापर जातालो. नाट्यप्रयोग हे देवतांचे उत्सव आनी जात्रांच्या निमतान जाताले. भरताच्या नाट्यशास्त्रांत, रंगमंडपाची लांबाय - रुंदाय, बांदावळ आनी प्रकार हे विशींचे नेम सांगल्यात. प्राचीन भारतीय रंगभूमिचेर नेपथ्य चडशें नासतालें. पूण भेस, प्रसाधनां आनी अलंकारांकडे चड लक्ष दिवप जातालें. पात्रांच्या भेसावयल्यान नाटकांतल्या भूमिकांचें वसतिस्थान, समाजीक दर्जो आनी स्वभावाचीं खाशेलपणां समजतालीं. कसल्या रंगाचे कपडे, खंयच्या वर्णाच्या आनी वेवसायाच्या पात्रान वापरचे, हे विशींय संकेत आसताले. सांकेतिक

वा नाट्यधर्मी आनी स्वाभाविक वा लोकधर्मी अशे दोन तरांचे अभिनय भारतीय रंगभूमिचेर दिसताले. रथांत बसप, आंगार वस्ती घालप, फुलांच्यो माळो गुंथप ह्यासारक्यो क्रिया सांकेतिक वा लाक्षणिक अभिनयावतीन उक्तावप जाताल्यो. संस्कृत नाटकां गद्य-पद्यात्मक आसतालीं. पूण तातुंतल्या पद्यात्मक भागाचें लयबध्द रितीन पठण जातालें. नाटकांतलो गद्य भाग कसो आसचो आनी कसो उलोवचो हेविशींय नेम आनी संकेत आशिल्ले. बायलां, भुरगीं, नोकर तशेंच उण्या दर्जाचे आनी परदेशीय दादल्यांनी प्राकृताचो अवलंब करचो आनी ब्राह्मण, राजा, उच्चवर्णाच्या तशेंच अधिकारी दादल्यांनी संस्कृतांत उलोवचें असो दंडक आसतालो. संस्कृत रंगभूमिवयल्या नटवर्गाक समाजांत उण्या दर्जाचे लेखताले. नाट्यवेवसाय जातीय कुलपरंपरेन चलताले. बायलांक रंगभूमिचेर भूमिका करपाक बंदी नाशिल्ली. नटवर्गाक भरतपुत्र अशें नांव आशिल्लें. संस्कृत नाट्यप्रयोगांत वापरतालीं तीं आयुधां, उपकरणां आनी हेर सामुग्री लाक्षणिक स्वरुपाची आसताली. संस्कृत रंगभूमिच्या संदर्भांत 'नाट्यवेश्म' आनी 'नाट्यमंडप' हे दोन शब्द नाटकघरारवातीर वापरिल्ले मेळटात. प्रेक्षकांचे बसपाचे सुवातीक 'प्रेक्षाघर' ही संज्ञा आशिल्ली. रंगमंडपाची आंखणी आनी बांदावळ धर्मीक विधीन जाताली. वाद्यवादक रंगपिठाचेरूच बसताले. संस्कृत रंगभूमीवयल्या नाट्यप्रयोगांचें यश-अपयश सिध्दीनी मेजताले. ह्या सिध्दींचे मानवी आनी दैवी अशे दोन प्रकार आसात. प्रेक्षकांकडल्यान मेळपी उतरांची उर्बा, शाबासकी, हासो ह्यो प्रतिक्रिया ह्यो मानवी सिध्दी. हवामान सारकें आसप, प्रेक्षकांची संख्या भरपूर आसप, प्रयोग चालू आसतना अकस्मात कसलेंय विघ्न येना आसतना वा सैमीक उत्पात घडनासतना, प्रयोग वेवस्थितपणान जावप ह्यो दैवी सिध्दी. संस्कृत रंगभूमिचेर नाट्यसर्तीचीय प्रथा आशिल्ली. नाट्यपरीक्षणाच्यो वेगवेगळयो रीती अस्तित्वांत आशिल्ल्यो. सर्तींतल्या जैतिवंत पंगडाक मानचिन्न म्हणून ध्वज दिताले. नट - नटयांक स्वतंत्र इनामां आसतालीं. परिक्षण करतना, तज्ञांच्या मतावांगडा, प्रयोग चालू आसतना जावपी प्रेक्षकांच्यो प्रतिक्रिया ह्या दोनांयचो दखल घेवन प्रयोगांक गूण दिवप जाताले.

१९५२ वर्सा गिरगांवांतले ब्राह्मण सभेचे सांस्कृतिक शाखेन १९५२ च्या गणेशोत्सवांत 'अभिज्ञान शाकुंतल' ह्या नाटकाचे चार अंक सादर केले. उपरांत १५ नोव्हेंबर १९५२ दिसा पुराय नाटकाचो संगीत प्रयोग केलो आनी २२ नोव्हेंबर १९५४ दिसा दिल्लींतल्या राश्ट्रीय नाट्यमहोत्सवाच्या उद्घाटनाच्या वेळार हें नाटक रंगभूमिर हाडलें. ह्या नाटकाउपरांत दाजी भाटवडेकर हाणें १ जानेवारी १९५६ दिसा मृच्छकटिक नाटकाचो प्रयोग सादर केलो. ते उपरांत हर्षकृत रत्नावली (१९५७), भट्टनारायणविरचित वेणीसंहार (१९५८) आनी भवभूतीचें उत्तररामचरित (१९५९) ह्या नाटकांचे यशस्वी प्रयोग केले. ब्राह्मणसभेन, भा.का. नेने हाच्या आदारान 'मुद्राराक्षस' हें नाटक रंगभूमिचेर हाडून संस्कृत साहित्यांतलें एक, बायलेचें पात्रविरयत आनी फक्त बुध्दिप्रधान नाटकूय प्रभावी जाता, हें दाखोवन दिलें. जानेवारी १९६० त काणे हाच्या अमृतमहोत्सवाच्या निमतान ब्राह्मणसभेन मुंबयंतल्या रंगभवनांत आठ अभिजात संस्कृत नाटकांचो नाट्यमहोत्सव मनोवन एक नवो पांवडो घातलो. ह्या महोत्सवांत 'मालविकाग्निमित्र' ह्या नाटकाचोय आस्पाव आशिल्लो. उपरांत ब्राह्मण सभेन श्री. भि. वेलणकर हाणें केल्लो किर्लोस्कराच्या संगीत सौभद्र नाटकाचो संस्कृत अणंकार मुंबयच्या रंगभवनांत केलो. मराठी भाशेनूच 'पृथ्वीवल्लभ' ह्या डॉ. मुनशीचे कादंबरीवयल्यान 'पृथ्वीवल्लभम्' हें संस्कृत नाटक बा. का. लिमये हाणें बरयलें. ताचें दिग्दर्शन आनी तातुंतल्या मुंजाची मुखेल भूमिका दाजी भाटवडेकरानूच केली. उपरांत ब्राह्मण सभेन संस्कृत अणकारीत संशयकल्लोळ, भाऊबंदकी, संगीत शारदा हीं नाटकां सादर केलीं. तशेंच हे सभेन 'कालिदासचरितम्' ह्या स्वतंत्र संस्कृत नाटकाचो प्रयोग करून संस्कृत रंगभूमिचेर मान मेळयलो. हाचेच वांगडा 'भर्तृहरीयम्' ह्याय नाटकाचो उल्लेख करप गरजेचो. ब्राह्मणसभेचे संस्कृतीक समितीन १९७१च्या एप्रिल म्हयन्यांत १३ संस्कृत नाटकांचो दुसरो नाट्यमहोत्सव आनी आपल्या रौप्यमहोत्सवाच्या निमतान १९७८ वर्सा ११ नाटकांचो तिसरो नाट्यमहोत्सव मुंबयंत मनयलो.

ह्या संस्कृत नाटकांच्या प्रयोगांक लागून दाजी भाटवडेकर, राम बापट, भा.का. नेने, नानिवडेकर, रेखा सबनीस हांची दिग्दर्शक आनी अभिनयसंपन्न नट म्हणून नामना जाली. ठाण्यांतले 'संस्कृत संवर्धक मंडळ' हे संस्थेन ब्राह्मणसभेचो आदार घेवन पुराय 'वेणीसंहार' हें महाभारत कथेचेर आदारिल्लें नाटक १९५९ त सादर केलें. हे संस्थेन उपरांत 'अभिज्ञानशाकुंतल' नाटकाचोय प्रयोग केलो. १९५३ सावन मुंबयंत संस्कृताच्या प्रचारारवातीर श्री. भि. वेलणकरान स्थापणूक केल्ली 'देववाणी मंदिर' ही संस्था काम करूंक लागली आनी हे संस्थेन बरीचशीं नाटकां रंगमाचयेर हाडलीं. वेलणकरान आकाशवाणीखातीर बरयल्ल्या कालिन्दी आनी स्वातंत्र्यलक्ष्मी ह्या संस्कृत नाटकांचे प्रयोग भोपाळचे 'सुरभारती' हे संस्थेन १९६६ वर्सा केले.

अभिजात संस्कृत नाटकांपरस आधुनिक काळांतल्या चीनाचें भारतावयलें आक्रमण (कैलासकल्प), स्वातंत्र्यारवातीर झगडपी राणी दुर्गावती (राज्ञी दुर्गावत, १९७६) वा झांशीची राणी (स्वातंत्र्यलक्ष्मी) ह्या प्रेरक थारपी कथांचेर नाटकां बरोवन प्रयोग घडोवन हाडप हें देववाणी मंदिर हे संस्थेचें खाशेलपण. बालगीतम् रामचरितम् हें नृत्य,नाट्य आनी गायन अशे मिश्र प्रयोगूय यशस्वी जाले. पदांक लागून नाटकांत रंग हाडपी हवनहबिः ह्या नाटकाचो तशेंच 'तत् त्वं असि' हातूंत एकठायिल्ल्या जन्म रामायणस्य, आषाढस्य प्रथम दिवसे, तनयो राजा भवति कथं मे, तत् त्वं असि ह्या भुरग्यांखातीर बरयल्ल्या

एकांकी नाटकाचे प्रयोग मुंबयंत जाले (१९८४). त्याच वर्सा नियतिलीला आनी नृत्यनाट्यशकुंतला ह्या नाटकांचे प्रयोग जाले.

अभिजात संस्कृत नाटकांचे मूळ रंगभूमीचें पुनरुज्जीवन करपाचे यत्न कूटियाट्टमांतल्या पिढीजात चाक्यार नट 'कोचीन देवस्म बोर्डा' च्या आदारान करतात. वटक्कुनयन मंदिर नाट्यघराची पुनर्रचणूक करपाचें कार्य चालू आसून हातूंत पैनकुलमच्या वेलेनकी ह्या कोयप्प चाक्यार घराण्यांतल्या चाक्यार नटाचो म्हत्त्वाचो वांटो आसा.

१९८० वर्सा विजया मेहता हे दिग्दर्शिकेन 'गोवा हिंदू असोसिएशना' खातीर भरताचे नाट्यशास्त्रांतले पद्धतीन 'शाकुंतल' नाटक सादर करपाचो यत्न केलो. हातूंत संस्कृत नाटकाक संगीतिकेचें आनी नृत्यनाट्याचें स्वरूप दिलें.

संस्कृत नाटकांचे प्रयोग परदेशांतूय जाले. अठराव्या शेंकड्यांत एन्. क्रामझिन हाणें कालिदासाच्या 'अभिज्ञानशाकुंतल' नाटकांतल्या दृश्यांचें भाशांतर केलें आनी १९२० वर्सा मॉस्कोच्या 'कार्मेनी थिएटर' हे संस्थेन ह्या संस्कृत नाटकाचो प्रयोग केलो. १९५०त 'डिपार्टमेंट ऑफ एन्शंट स्टडीज ऑफ ताजित अकॅडमी ऑफ सायन्सेसा'न शूद्रकाच्या मृच्छकटिकांचे प्रयोग रशियननाट्यघरांत केले. ह्या नाटकाचे रंगावृत्तीचो 'पुश्किन थिएटरां'तलो प्रयोग उल्लेख करपासारको जालो. १९६० त नताल्य गुसेव हाणें 'रामायणाचें' नाट्यरूप मॉस्कोतंल्या' सेंट्रल चिल्ड्रेन थिएटरां'त केलें. बल्गेरिया, उदेंत जर्मनी, अमेरिका, कॅनडा आनी नेदर्लंड्सांतय हे प्रयोग जाले. इन्स्टिट्यूट ऑफ ओरिएंटल लँग्वेजेस इन मॉस्को युनिव्हर्सिटी, मॉस्कोंतली 'गॉर्की इन्स्टिट्यूट ऑफ वर्ल्ड लिटरेचर' आनी ताश्कंद इन्स्टिट्यूट ऑफ ओरिएंटल स्टडीज आनी ताश्कंद युनिव्हर्सिटी ह्या तीन संस्थांनी संस्कृत नाटकांचे प्रयोग रशियाचे रंगभूमिचेर केले. आधुनिक काळांत, परदेशांत संस्कृत नाटकांचे प्रयोग जाले. उदेंत जर्मनींतल्या लाइपसिक शारांत जर्मन भाशेंतलो शाकुंतलाचो प्रयोग जर्मन कलाकारांकडल्यान १९८० वर्सा जालो. प्रत्यक्ष संस्कृत नाटकाच्या प्रयोगाचे नदरेन विजया मेहता दिग्दर्शित 'मुद्राराक्षसा'चो जर्मनींत वायमाराक १९७६ त उल्लेख करपासारको प्रयोग जालो. हातूंत नटान रंगभूमिक फाट दाखोवप ना, अभिनयांत वेळेचें अंतर नासप हे संस्कृत रंगभूमिचे संकेत पाळिल्ले. ह्या प्रयोगांत तीन खाशेलपणां आशिल्ली. तीं म्हळयार अलंकारांची विलक्षणता, रंगांची उधळण आनी संगीताची येवजण.

**मराठी रंगभूमि :** पारंपरीक मराठी लोकरंगभूमि, तमाशे, ललित, भारूड, कळसूत्री बावल्यांचे खेळ, भजन, खेळे, दशावतारी नाटकां, गोंधळ, कीर्तन ह्या प्रकारांनी जनरंजन करताली. ही रंगभूमि संघटित नाशिल्ली. तिका संघटित रूप दिवपाचो यत्न विष्णुदास भावे हाणें केलो आनी आधुनिक मराठी रंगभूमिचो आरंभ जालो. भावेन १८४३ वर्सा सांगलीक सीतास्वयंवर हो खेळ सादर केलो. नाट्यकलेचें प्रदर्शन करप हो हेत आशिल्ल्यान, तेखातीर सगळीं साधनां एकठांय केल्लीं. कलेचे नदरेन स्वयंपूर्ण अशी संघटना रंगभूमिरुपान केल्ल्यान मराठी रंगभूमिच्या जनकत्वाचें श्रेय भावेक दिवप जाता. ताणें प्रवर्तित



केल्ले रंगभूमिचें स्वरूप आशिल्लें तें अशें - रंगमाचयेर अलवाणी रंगाचो पड्डो वापरताले. एके वटेन सूत्रधार, गायक, वादक उबे रावताले, पयलीं मारूतीची मूर्त स्थानापन्न करून मंगलाचरण, ईशस्तवन जातालें. उपरांत विदूशक येतालो आनी थोडो वेळ नाच करतालो. नाच जातकच सूत्रधाराकडे ताचें थोडें उलोवप जातालें. उपरांत नाट्यकथानकाचें प्रास्ताविक जावन गणपती येतालो. मोराचेर बशिल्ले सरस्वतीचें आवाहन, तिचें आगमन, बालगोपालांचो नाच, गंधर्वकिन्नरांचें गायन-नाच अशे सगळें क्रमान जातालें. इतकें सगळें जातकच खेळाक सुरवात जाताली. तातूंत तीन कचेऱ्यो म्हळयार प्रवेश आसताले. एक देवांची, एक राक्षसांची आनी तिसरी बायलांचीं. आरती जावन नाटक सोंपतालें. ह्या खेळांच्या अनुकरणांतल्यान बऱ्योचशो नाटकमंडळयो सुरू जाल्यो. ह्याच काळांत 'प्रहसन' हो नाट्य प्रकार मराठी रंगमाचयेर आयलो. बाळा कोटीभास्कर ह्या मनशान हो प्रहसनाचो प्रकार सुरू केलो अशें म्हण्टात. अमरचंद वाडीकर ही प्रहसनां करपी पयली भोंवपी कंपनी मानतात. पौराणिक नाटक करपी कंपनी आपल्या नाटकाचे जोडयेक मनोरंजनाच्या हेतान एक ल्हानशें गद्य प्रहसन करताली. तांचीं नांवांय मजेशीर आसतालीं. देखीक - बासुंदी पुरीचो फार्स, सूस्त्रीचातुर्यदर्शनम् म्हळयार गुलाबछकडीचो फार्स, ढेरपोट्याचो फार्स, भोर एल्. एल्. बी.चो फार्स, सवाई माधवरावाच्या मरणाचो फार्स, अफझूलखानाच्या वधाचो फार्स आदी. ह्या प्रहसनांचें स्वरूप भडक आशिल्ल्यान तांकां 'तागडधोम' अशें नांव पडिल्लें. ह्याच काळांत संस्कृत आनी इंग्लीश नाटकांचे अणकार जावपाक लागले. देखीक-कृष्णशास्त्री राजवाडे आनी गणेशशास्त्री लेले हांणी वेणीसंहार, उत्तररामचरित, शाकुंतल,

**मृच्छकटिक** ह्या नाटकांचे मराठी अणकार केले. तेचभाशेन इंग्लीश **नाटकांचेय** अणकार जाले. तीं नाटकां आनी अणकारपी अशे आसात - ज्यूलियस सीझर, ऑथेल्लो (नातू), टॅंपेस्ट (कीर्तने), कॉमेडी ऑफ एरर्स (बजाबा प्रधान). हीं नाटकां, माचयेचे नदरेतंल्यान विचार **करीनासतना** अणकारीत केल्ल्यान तांकां 'बुकिश नाटकां' हें नांव **पडिलें**. मुद्रित स्वरुपांत प्रयोगरुपान आयिल्ल्या पयल्या नाटकांभितर वि.ज. कीर्तने हाचें थोरले माधवराव पेशवे हें १८६१ चें नाटक आसा. **ह्या नाटकांत** रमाबाई सती वता, असो एक प्रसंग आसा. रमाबाईची **व्हॉट भरपारवातीर** प्रेक्षकांतल्यान बायलो व्हड प्रमाणांत येताल्यो अशें **म्हण्टात**.

अण्णासाहेब किर्लोस्कर हाणें संगीत रंगभूमिचें मुळावण **घालें**. ताणें शांकर दिग्विजय, शाकुंतल, सौभद्र,रामराज्यवियोग हीं **नाटकां** बरयलीं. शाकुंतल हें नाटक मूळ संस्कृतावयल्यान मराठींत **रुपांतरीत** केलां. संगीत रंगभूमिचे सुरवातीचे नदरेन शाकुंतलाच्या **प्रयोगाचें** म्हत्व चड आसा. संगीत नाटकाचो आनी रंगभूमिचो मानदंड **म्हणून** 'सौभद्र' नाटकाचो उल्लेख करूंक जाय. मोरोबा वाघोलीकर, **बाळकोबा** नाटेकर हे नट 'सौभद्र'च्या पयल्या प्रयोगांत आशिल्ले. **किर्लोस्कराचे** संगीत रंगभूमिचो वारसो उपरांत गोविंद बल्लाळ देवल **हाणें** चलयलो. ताणें सात नाटकां बरयलीं - दुर्गा, झुंझारराव, **विक्रमोर्वशीय**, संशयकल्लोळ, मृच्छकटिक, शापसंभ्रम आनी शारदा. हातुंतलीं विक्रमोर्वशीय, मृच्छकटिक आनी शापसंभ्रम हीं तीन नाटकां **संस्कृतावयल्यान** घेतलीं. दुर्गा, झुंझारराव, संशयकल्लोळ हीं तीन **इंग्लिशीवयल्यान** घेतलीं. पूण संशयकल्लोळ नाटकाचें मराठी रुपांतर इतलें बरें जालां, हें नाटक रुपांतरीत म्हणपाचो दुबावलेगीत येना. शारदा हें देवलाचें स्वतंत्र आनी म्हत्वाचें नाटक.

१९०० ते १९१०ह्या धा वर्सांच्या काळांत मराठी रंगभूमिचेर श्रीपाद कृष्ण कोल्हटकराचो प्रभाव आशिल्लो. ताणें बरयल्ल्या नाटकांभितर वीरतनय, मूकनायक, गुप्तमंजूष, मतिविकार आनी प्रेमशोधन ह्या **नाटकांचो** आस्पाव जाता. कृष्णाजी प्रभाकर खाडिलकर हाणें पंदरा नाटकां बरयलीं तीं अशीं : सवाई माधवराव यांचा मृत्यू, कांचनगडची मोहना, भाऊबंदकी, मानापमान, विद्याहरण, मेनका, द्रौपदी, सत्त्वपरीक्षा, सवतीमत्सर, कीचकवध, स्वयंवर, सावित्री, बायकांचे बंड, प्रेमध्वज आनी त्रिदंडी संन्यास. ताच्या नाटकांक लागून खूबशा कलाकारांक आनी नाट्यनिर्मिती करपी संस्थांक विंगड विंगड आव्हानां निर्माण जालीं. चडकरून महाराष्ट्र नाटक मंडळी आनी गंधर्व नाटक मंडळी हांणी खाडिलकराच्या नाटकांचे व्हड प्रमाणांत केल्ले प्रयोग हो रंगभूमिच्या विस्ताराचो आनी विकासाचो भाग थरलो. तातूंतल्यानूच मराठी रंगभूमिचेर गंधर्वयुग निर्माण जालें. नारायणराव राजहंस वा बालगंधर्व हाणें खाडिलकराच्या, किर्लोस्कराच्या, गडकऱ्याच्या नाटकांतल्यो नायिकांच्यो भूमिका करून संगीत रंगभूमिचें भांगरायुग निर्माण केलें. ह्याच काळांत ललितकलादर्श ही संस्था सुरवेक केशवराव भोसले आनी उपरांत बाबूराव पेंढारकर हांणी नांवारुपाक हाडली. १९२१ वर्सा नारायणराव बालगंधर्व आनी केशवराव भोसले हांणी एकठांय येवन मानापमान नाटकाचो संयुक्त प्रयोग केलो. संगीत रंगभूमिवयलो हो प्रयोग म्हळयार भांगराखिण मानतात. राम गणेश गडकरी हाणें प्रेमसंन्यास, पुण्यप्रभाव, भावबंधन, एकच प्याला आनी राजसंन्यास हीं नाटकां बरयलीं. एकच प्याला हे ताचें नाटक मराठी रंगभूमिवयली पयल्या दर्जाची शोकात्मिका मानतात. गडकऱ्याच्या नाट्य लिखाणाचेर शेक्सपिअरच्या नाट्यलिखाणाचो चड प्रभाव आसा.

१८८० ते १९२० ह्या काळांत किर्लोस्कर, देवल, कोल्हटकर, खाडिलकर आनी गडकरी हे म्हत्वाचे पांच नाटककार जावन गेले. ह्या नाटककारांचे जोडयेक आनीकूय नाटककारांचीं नाटकां ह्याच काळांत निर्माण जालीं. देखीक - वासुदेव रंगनाथ शिरवळकर हाचें राणा भीमदेव, वासुदेव वामन खरे हाचीं गुणोत्कर्ष, शिवसंभव, उग्रमंडल, नारायण बापूजी कानिटकराचें तरुणी-शिक्षण-नाटिका, शिवराम महादेव परांजपे हाचें पहिला पांडव, न.चिं. केळकराचीं तोतयाचे बंड आनी कृष्णार्जुनयुध्द आदी. ह्याच काळांत पौराणिक, इतिहासीक, सामाजिक नाटकांचे मानदंड निर्माण जाले. पूण उपरांतच्या पंचवीस - तीस वर्सांच्या काळांत मराठी रंगभूमिक देंवती कळा लागली. हेय परिस्थितींत कांय नाटककारांनी आनी कलावंतांनी रंगभूमि जगोवपाचे यत्न केले. तातूंत भार्गव विठ्ठल वा मामा वरेरकर, प्रल्हाद केशव अत्रे, मोतीराम गजानन रांगणेकर हांचे यत्न लक्षणीय स्वरुपाचे थरले. वरेरकारान वीस नाटकां बरयलीं. तातुंतलीं सत्तेचे गुलाम, हाच मुलाचा बाप, अपूर्व बंगाल, करीन ती पूर्व, सोन्याचा कळस, भूमीकन्या सीता हीं नाटकां म्हत्वाचीं. प्र. के. अत्रे हाणें सामाजिक प्रस्नांची नाट्यरूप हाताळणी विनोदी आनी गंभीर स्तरांचेर केली. ताच्या नाटकांभितर साष्टांग नमस्कार, भ्रमाचा भोपळा, कवडीचुंबक, लग्नाची बेडी, मी उभा आहे, उद्याचा संसार, घराबाहेर, जग काय म्हणेल, तो मी नव्हेच हीं नाटकां रंगभूमिचे स्थिरतेचे नदरेन खूब म्हत्वाचीं थरलीं. ह्याच काळांत इब्सेनच्या नाट्यतंत्राचो प्रभाव वा त्या रचनातंत्राची ओड मराठी नाटककारांक दिसूंक लागली. अत्रे, वरेरकर, अनंत काणेकर, वर्तक हांणी तें तंत्र मराठी नाटकांत हाडपाचो यत्न केलो. पौराणिक - इतिहासीक विशयांपरस समाजीक नाटकांक व्हड प्रमाणांत स्थान मेळूंक लागलें. मो. ग. रांगणेकरान बरयल्लीं नाटकांय त्या काळाच्या संबंदांत म्हत्वाचीं आसात.देखीक - आशीर्वाद, माझे घर, वहिनी, रंभा, कुलवधू.

१९२० ते १९५० ह्या काळांत वेगवेगळे नाटककार आपआपले पद्दतीन नाटकां बरयताले. देखीक - वि.दा. सावरकर हाचीं संन्यस्त खड्ग, उत्तरक्रिया; माधवराव जोशी हाचें म्युन्सिपालटी; औंधकर आनी टिपणीस हांचीं आगऱ्याहून सुटका, बेबंदशाय; नाट्यछटाकार

दिवाकराच्यो नाट्यछटा. १९४४ वर्सा मुंबय मराठी साहित्य संघाचेवतीन जाल्ल्या नाट्योत्सवाच्या निमतान नव्या - पोरन्या नाटकांचे प्रयोग जाले. तातूंत केशवराव दाते,नानासाहेब फाटक, मा. दत्ताराम, मामा पेंडसे, दुर्गा खोटे, गणपतराव बोडस, चिंतामणराव कोल्हटकर ह्या मातब्बर कलावंतांवांगडा नव्या नटांनीय वांटो घेतलो.

स्वातंत्र्या उपरांत म्हळयार १९५० ते १९६० ह्या धा वर्सांच्या काळांत एक नवी पिळगी फुडें आयली. तातूंत पु.ल. देशपांडे, वसंत कानेटकर, विजय तेंडुलकर, शं. गो. साठे हे मुखेल नाटककार आशिल्ले. वसंत कांनेटकरान वेड्याचे घर उन्हात, देवांचे मनोराज्य, प्रेमा तुझा रंग कसा ह्या नाटकांवांगडाच 'रायगडाला जेव्हा जाग येते' हें नाटक बरोवन मराठी - इतिहासीक नाट्यलिखाणाचें परिमाण बदलून उडयलें. इतिहासीक नाटकांच्या संदर्भांत हें नाटक एक मानदंड थारलें. हेच पद्धतीन ताणें, इथे ओशाळला मृत्यू आनी तुझा तू वाढवी राजा हीं आनीक दोन इतिहासीक नाटकां बरयलीं. कानेटकरान हिमालयाची सावली, कस्तुरीमृग, विषवृक्षाची छाया, वादळ माणसाळलंय हीं चरित्रात्मक नाटकां बरयलीं. थोरले माधवराव पेशवे हाचे जिणेवयली स्वामी, ही श्रींची इच्छा ह्या इतिहासीक नाटकांकूय खूब नामना मेळ्ळी.

वीस वर्सांच्या काळांत संगीत नाटकांच्या पुनरुज्जीवनाचें कार्य विद्याधर गोखले हाणें मंदारमाला, पंडितराज जगन्नाथ, स्वरसम्राज्ञी ह्या नाटकांच्या रुपान केलें. पुरूषोत्तम दारव्हेकर हाणें कट्यार काळजात घुसली, वऱ्हाडी मानसं, चंद्र नभीचा ढळला, नयन तुझे जादूगार अशीं भिन्न प्रकृतीचीं नाटकां बरयलीं. वसंत कानेटकरान मत्स्यगंधा आनी लेकुरे उदंड जाहली हीं दोन नाटकां बरोवन संगीत नाटकांच्या लिखाणाची वेगळी दिका आपणायली. विजय तेंडुलकराचें घाशीराम कोतवाल आनी पुरूषोत्तम बेर्डे हाचें अल्वारा डाकू हातुंतल्या विंगड विंगड पद्धतीच्या लोकसंगीतान नाटकाचे संगीत संकल्पनेक नवें परिमाण दिलें. विनोदी नाटककार म्हणून फाटल्या पंचवीस वर्साभितर सगळयांत चड नामना पु.ल. देशपांडे हाका मेळ्ळी. विनोदी नाटकांवांगडा ताणें तुका म्हणे, भाग्यवान, अंमलदार, तुझे आहे तुजपाशी, सुंदर मी होणार, ती फुलराणी, तीन पैशाचा तमाशा हीं ताचीं नाटकां. बटाट्याची चाळ आनी वाऱ्यावरची वरात ह्यो दोन रंगमाचयेवयल्यो कार्यावळी ताणें केल्यो. शं.गो. साठे हाच्या 'ससा आणि कासव' ह्या नाटकाक खूब नामना मेळ्ळी. वसंत सबनीसाच्या विनोदी नाटकांभितर 'विच्छा माझी पुरी करा' हें नाटक खूब गाजलें. विश्राम बेडेकराचें वाजे पाऊल आपुले; मनोहर काटदरे हाचीं घेतलं शिंगावर, आपलं बुवा असं आहे; श्याम फडके हाचीं तीन चोक तेरा,राजा नावाचा गुलाम; कानेटकराचीं प्रेमाच्या गावा जावे, प्रेमा तुझा रंग कसा ह्या नाटकांचो उल्लेख करूंक जाय. तेन्नाच प्रहसनांचीय निर्मिती चालू आशिल्ली. तातूंत झोपी गेलेला जागा झाला आनी दिनूच्या सासुबाई राधाबाई हीं प्रहसनां म्हत्वाचीं. आत्माराम भेंडे, बबन प्रभू,मुकुंद कोठारे, मनोरमा वागळे ह्या कलाकारांनी आपल्या अभिनयान हीं प्रहसनां लोकप्रिय केलीं. हालींच्या काळांत सुधीर जोशी आनी लक्ष्मीकांत बेर्डे हांचोय उल्लेख करूंक जाय.

परकी नाटकांचीं रुपांतरां आनी अणकार सुरवेकसावन मराठी रंगभूमिचेर व्हड प्रमाणांत जायत रावलीं. फाटल्या कांय वर्सांनी बर्नार्ड शॉ, ब्रेक्ट, योनेस्को, सार्त्र, बेकेट, अॅल्बी, यूजीन ओनील, झां आनुईय, पीरांदेल्लो ह्या नाटककारांच्यो नाट्यकृती रंगभूमिचेर आयल्यो. देखीक-खुर्च्या, नाटककाराच्या शोधात सहा पात्रे, वेटिंग फॉर गोदो, बेकेट, स्वप्नगाणे संपले, ती फुलराणी, तीन पैशाचा तमाशा, वाजे पाऊल आपुले आनी हेर. तेचभाशेन भारतीय भाशांतल्या म्हत्वाच्या नाटककारांचीं नाटकां मराठींत आयलीं. मराठी नाटकां हेर भारतीय भासांनी रुपांतरीत-अणकारीत जालीं. विजय तेंडुलकर, पु.ल. देशपांडे, वसंत कानेटकर, सतीश आळेकर, जयवंत दळवी, हांचीं नाटकां परभाशेंत गेलीं आनी गिरीश कार्नाड, बादल सरकार, मोहन राकेश, आद्य रंगाचार्य, शंकर शेष, शंभू मित्र, जगदीशचंद्र माथूर हांचीं नाटकां मराठींत आयलीं. हातूंत हयवदन, ययाती, तुघलक (कार्नाड); सुनो जनमेजय, आजचा कार्यक्रम... (आद्य रंगाचार्य); कोंडी (शंभू मित्र); जुलूस, बाकी इतिहास, एवम् इन्द्रजीत (बादल सरकार); आधे अधुरे (मोहन राकेश); पहिला राजा (जगदीशचंद्र माथूर); पोस्टर (शंकर शेष) हीं म्हत्वाचीं नाटकां आसात. ह्या निमतान भारतीय रंगभूमीवयली परस्पर देवाणघेवाण सुरू जाली. हाचें श्रेय तेंडूलकर, पु.ल. देशपांडे, चिं. त्र्यं. खानोलकर, पद्माकर गोवईकर ह्या नाटककारांवांगडा सत्यदेव दुबे, अमोल पालेकर, अरविंद देशपांडे, सतीश दुभाषी ह्या नट - दिग्दर्शकांकूय वता. रणजित देसाई, गो. नी. दांडेकर, श्री. ना. पेंडसे, जयवंत दळवी, त्र्यं. वि. सरदेशमुख, रत्नाकर मतकरी हांच्या कादंबऱ्यांवयलीं नाटकां रंगभूमिचेर प्रयोगरुपांत आयलीं. देखीक - स्वामी (रणजित देसाई), पवनाकाठचा धोंडी, शितू (गो. नी. दांडेकर); गारंबीचा बापू, रथचक्र, राजे मास्तर (श्री. ना. पेंडसे); बॅरिस्टर, महासागर, दुर्गी, सुर्यास्त (जयवंत दळवी). चिं. त्र्यं. खानोलकराच्या कथाकादंबऱ्यांवयल्यान हेर लोकांनी नाट्यरुपांतरां केलीं. देखीक - अगोचर, पाषाण पालवी, चाफा. अनिल बर्वे हाच्या थ्यँक्यू मि. ग्लाड, त्र्यं. वि. सरदेशमुख हाच्या बखर एका राजाची, रत्नाकर मतकरीच्या जौळवरून माझं काय चुकलं, दळवीच्या महानंदावयल्यान शं. ना. नवरे हाणें केल्लें गुंतता हृदय हे, पु.भा. भावे हाची अकुलिना हीं कांय ताचीं उदाहरणां आसात. बाळ कोल्हटकरान वाहतो ही दुर्वांची जुडी, मुंबईची माणसे, वेगळं व्हायचंय मला, सीमेवरून परत जा हीं कौटुंबिक जिव्हाळयाचीं नाटकां बरयलीं आनी

र्ती लोकप्रिय जार्ली. तशीच लोकप्रियता मधुसूदन कालेलकर हाच्या दिवा जळू दे सारी रात, अपराध मीच केला ह्या नाटकांक मेळ्ळी. सुरेश खरे हाणें मला उत्तर हवंय, मंतरलेली चैत्रवेल, काचेचा चंद्र हीं कौटुंबिक नाटकां खूब गाजलीं. पु.भा. भावे हाणें इतिहासीक आनी समाजीक विशयांचेर नाटकां बरयलीं. तातूंत महाराणी पद्मिनी, सौभाग्य, स्वामिनी हीं म्हत्वाचीं आसात. शं.ना. नवरे हाणें गुंतता हृदय हे, गहिरे रंग, गुलाम, ग्रँड रिडक्शन सेल हीं नाटकां बरयलीं. मधुकर तोडरमल हाणें बरीचशीं नाटकां बरयलीं, दिग्दर्शीत केलीं. तातूंत काळे बेट लाल बत्ती, भोवरा, तरूण तुर्क म्हातारे अर्क चड लोकप्रिय जार्ली. रत्नाकर मतकरीन खूब नाटकां बरयलीं. ताच्या अश्वमेध, दुभंग, जोडीदार, सत्तांध, चि. सौ. कां. चंपा गोवेकर, कार्टी प्रेमात पडली ह्या नाटकांचोय उल्लेख करप गरजेचो. वि.वा. शिरवाडकर, चिं. त्र्यं. खानोलकर आनी पु. शि. रेगे ह्या कवींक, नाटककार म्हणूनूय मान्यता मेळ्ळी. महाराष्ट्रांत बायल - नाटककारांचें प्रमाण खूब उणें आसा. तारा बनारसे हिचें कक्षा, सरिता पदकीची बाधा आनी खून पहावा करून, मालतीबाई बेडेकरांचें हिरा जो भंगला नाही, मुक्ताबाई दीक्षीताचें जुगार; ज्योत्सना देवधराचें कल्याणी हीं कांय मेजकीं उदाहरणां आसात. तेचभाशेन गांवगिरी वा राजकीय विशयांवयलीं नाटकां रंगभूमिचेर खूब उण्या प्रमाणांत आयलीं. जगन्नाथाचा रथ, पवनाकाठचा धोंडी (गो. नी. दांडेकर); तू वेडा कुंभार (व्यंकटेश माडगूळकर); काळोख देत हुंकार (दिलीप परदेशी) हीं गावगिरे जिणेवयलीं नाटकां आसात. आम्ही देशाचे मारेकरी (टेक्सास गायकवाड); काळोखाच्या गर्भात (भि. शि. शिंदे); थांबा रामराज्य येतंय (दत्ता भगत)हीं कांय दलित नाटकां आसात. गो. पु. देशपांडे हाचें उद्ध्वस्त धर्मशाळा; जयवंत दळवीचें सूर्यास्त, वि.वा. शिरवाडकराचें मुख्यमंत्री हीं कांय राजकीय विशयांवयलीं गंभीर स्वरुपाचीं नाटकां आसात. विजय तेंडुलकराचीं श्रीमंत, शांतता कोर्ट चालू आहे, गिधाडे, सखाराम बाईंडर, घाशीराम कोतवाल हीं नाटकां रंगभूमिचेर वादग्रस्त थरलीं.

प्रायोगिक रंगभूमिन स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत म्हत्वाचें कार्य केलें. ह्या सुरवेच्या काळांत आत्माराम भेंडेन केल्ले यत्न सगळयांत म्हत्वाचे आसात. मराठी रंगभूमिचे मुखेलपणान तीन विभाग करूं येतात, हौशी, प्रायोगिक आनी वेवसायीक.

**बंगाली रंगभूमि :** सुरवेच्या काळांत बंगाली रंगभूमिचेर संस्कृत आनी उपरांत इंग्लीश रंगभूमिचो प्रभाव आशिल्लो. १७०३ वर्सा पुरुषोत्तम मिश्र हाणें 'चैतन्य चंद्रोदय' ह्या संस्कृत नाटकांचें बंगाली रुपांतर करून ताचे प्रयोग केले. १७५७ त प्लासीच्या झुजाउपरांत, भारतांत इंग्रजांचें बरें घट बस्तान बशिल्लें. तांणी कलकत्त्यांत एक नाटक घर बांदलें.ते उपरांत १७७६ वर्सा कलकत्ता थिएटर सुरू जालें आनी आधुनिक बंगाली रंगभूमीचो आरंभ ह्याच नाटकघरांत जालो अशें मानतात. ह्याच नाटकघरांत ब्रिस्टो, पोप आनी कारगिल हांणी एक नाट्यप्रयोग इंग्लिशींत केल्लो. २७ नोव्हेंबर १७६५ दिसा ल्येबेडेफ नांवाच्या एका रशियन मनशान, गोलोकनाथ दास हाचेकडल्यान बंगालींत अणकारून घेवन 'द डिसगाइस्ड' ह्या लोकप्रिय नाटकाचो प्रयोग केलो. हे नाटकाचे ऊर्बेन उपरांत चंद्रनगर थिएटर, किदिरपूर थिएटर, चौरंगी थिएटर, सान्स सुशी थिएटर, अथिनियम थिएटर, डमडम थिएटर अशीं बरीचशीं नाटकघरां निर्माण जार्ली. प्रसन्नकुमार टागोर हाच्या हिंदू थिएटरांत भारतचंद्र राय (गुणाकर) हाचें 'विद्यासुंदर' हें श्रृंगाररसप्रधान नाटक जाल्लें. बंगाली नाटकांत बंगाली बायल - कलाकारांक हाडपाचें श्रेय नवीन बाबू हाका दितात. बंगाली भाशेंत बरयल्लें आनी भारतीय बायलांनी रंगमाचयेर केल्लें पयलें नाटक म्हणून 'विद्यासुंदर' नाटकाचो उल्लेख जाता. केशवचंद्र गांगुली, मायकेल मधुसूदन दत्त हांणी हेच रंगभूमिचेर आपल्या नाट्यवेवसायाक सुरवात केली. पं. विद्यानाथ वाचस्पती भट्टाचार्य हाचें 'चित्रयज्ञ' हें नाटकूय ह्या काळांत म्हत्वाचें थरलें. मायकेल मधुसूदन दत्त हाणें १८५८ वर्सा रत्नावली ह्या नाटकान बेलगछिया थिएटराचो शुभारंभ केलो. बाबू दीनबंधू मित्र हाच्या नीलदर्पण नाटकान बंगालच्या राजकीय क्षेत्रांत खूब गोंदळ घाल्ल्यान इंग्लिशांनी ह्या नाटकाचेर बंदी घाली. गिरीशचंद्र घोष हाणें नॅशनल थिएटर संस्था काडून खूबशीं म्हत्वाचीं नाटकां रंगमाचयेर हाडलीं. ते खातीर ताका राश्ट्रीय बंगाली रंगभूमिचो जनक मानतात. १८८३ वर्सा स्थापन जाल्ले स्टार थिएटर हे संस्थेन दक्षयज्ञ, ध्रुवचरित, नलदमयंती हीं पौराणिक नाटकां केलीं. पाथुरिया घाटा थिएटर, जोडासांको थिएटर, शोभा बाजार प्रायव्हेट थिएट्रिकल सोसायटी, बाल बाजार बंगाली थिएटर ह्या संस्थांनी बंगाली रंगभूमीक खूब नामना मेळोवन दिल्ली. ज्योतिरिंद्रनाथ टागोर, रवींद्रनाथ टागोर, विजन भट्टाचार्य, जोगेशचंद्र चौधरी, मन्मथ राय, अचिंत्यसेन गुप्त ह्या नाटककारांनी तरातरांचीं नाटकां बरयलीं. रवींद्रनाथ टागोराच्या वाल्मीकीर प्रतिभा, डाकघर, नटीर पूजा, विसर्जन, रक्तकरबी, चांडालिका, श्यामा, चित्रांगदा ह्या नाटकांनी अभिजात रंगभूमीचें दर्शन घडयलें. १९४४ वर्सा स्थापन जाल्ले 'इंडियन नॅशनल थिएटर असोसिएशन' हे संस्थेंत शंभू मित्र हो नामनेचो कलाकार आशिल्लो. ताणें उपरांत आपली स्वताची 'बहुरुपी' ही संस्था सुरू केली आनी बंगाली रंगभूमिखातीर मोलादीक वावर केलो. तो आनी ताची बायल तृप्ती मित्र हांणी मेळून केल्लें रक्तकरबी नाटक उल्लेख करपासारकें आसा. उपरांत शंभू मित्रान पुतुलखेला (डॉल्स हाऊस), आऊदोपाउस(इडिपस), द लाइफ ऑफ गॅलिलिओ हीं म्हत्वाचीं नाटकां अभिनीत आनी दिग्दर्शित केलीं. बादल सरकार जसो एक बरो नाटककार तसोच तो उत्तम दिग्दर्शक, संस्थाचालक, नाट्यचळवळीचो प्रवर्तक. ताणें आपले खाशेले नाट्यशैलीन जायतीं

नाटकां बरयलीं आनी केलीं. तातुंतलीं कांय म्हत्वाचीं अशीं आसात- जुलूस, भोमा, वल्लभपूरची दंतकथा, एवम् इन्द्रजीत, बाकी इतिहास, पगला घोडा, स्पार्टाकस. बंगाली रंगभूमिचेर एक म्हत्वाचें नांव म्हळयार उत्पल दत्त. तो एक बरो चित्रपट अभिनेतो आनी तेपरस एक उत्तम नाट्यकलाकार. ताणें स्वताचे 'लिट्ल थिएटर' हे नाट्यसंस्थेवतीन टीनेर तलवार, बॅरिकेड, दुःस्वप्न नगरी हीं नाटकां केलीं. अरूण मुखर्जीन मारिच संवाद आनी जगन्नाथ हीं नाटकां बरोवन आपली प्रतिमा स्वतंत्रपणान उबी केली. सद्याचे बंगाली रंगभूमिचेर अणकारीत आनी रुपांतरीत नाटकां चड प्रमाणांत जातात. परंपरेन नाट्यतंत्राच्या, गुणवत्तेच्या संदर्भांत, भारतीय रंगभूमिंत बंगाली रंगभूमिक चड म्हत्वाची सुवात आसा. कारण हे रंगभूमिवयलें प्रयोगतंत्र चड प्रभावी आसा. ह्या प्रयोगतंत्रांत जागतिक कीर्तीचो कलावंत हे रंगभूमिचेर आसा, तो म्हळयार तापस सेन, फाटल्या कांय वर्सांनी बरीचशीं बंगाली नाटकां हेर भारतीय भाशांनी प्रयोगरूपान जालीं. तशेंच हेर भाशांतलीं नाटकां बंगालींत जालीं.



कोंकणी तियात्राचो एक देखाव

**कन्नड रंगभूमि :** खूब पोरनी अशी ही रंगभूमि मुखेलपणान जानपद रंगभूमि आशिल्ली. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत, पारशी-मराठी नाट्यसंस्थांकडे आनी नाटकांकडे कन्नड रंगभूमिचो संबंद आयलो आनी नागर रंगभूमिची सुरवात जाली. कांय जाण शांतकवी हो कन्नड नागर रंगभूमिचो जनक मानतात तर कांय जाणांच्या मतान श्रीनिवास कवी ऊर्फ मारूती वेंकटेश अयंगार हो हे रंगभूमिचो जनक आसा. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत, सक्ती बाळाचार्य ऊर्फ शांतकवी हाणें खूबशीं नाटकां बरोवन नागर रंगभूमिच्या कार्याचो आरंभ केलो. ताणें उत्तर कर्नाटकांत गदग ह्या गांवांत 'कृतपूर नाटक मंडळी' ह्या नांवाची नाट्यसंस्था स्थापन केली. कर्नाटकांतली ही पयली वेवसायिक नाटक कंपनी. अशीच एक वेवसायिक नाटक मंडळी सुरवेच्या काळांत हलसगी ह्या गांवांत वेंकण्णाचार्य अगलगट्टी ऊर्फ श्रीनिवास कवी हाणें काडिल्ली. शांतकवी आनी श्रीनिवास कवी हांच्या कार्याचो आरंभ सादारणपणान एकाच वेळार सुरू जालो. उपरांत बऱ्याचशा वेवसायीक नाटक मंडळांची स्थापणूक जावन तांचे प्रयोग जाले. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणें खऱ्या अर्थान कन्नड रंगभूमिक नेट आयलो. वेंकोबराव हलगेरीकर हाची 'श्री महालक्ष्मी प्रासादिक नाटक मंडळी' ही त्या काळांतली म्हत्वाची नाटक कंपनी मानतात. सदाशिवराव गरूड हो नट, दिग्दर्शक, नाटककार, मालक. अशा ह्या अश्टतासांच्या कलाकारान पौराणिक, इतिहासीक, सामाजिक ह्या विशयांवयलीं चौपन्न नाटकां बरोवन सादर केलीं. शिवमूर्ती स्वामी हाणें बायलेंची भूमीका बायलेनूच करूंक जाय असो हट धरून तसो यत्न केलो. त्याच काळांत ताणें भोंवपी रंगमाचयेचोय उपेग करून पळेलो. बायलांक नाट्यक्षेत्रांत प्रवेश मेळटकच दादले - बायलो अशीं संमिश्रपणान नाटकां जावंक लागलीं. तेचभाशेन 'लक्ष्मेश्वर स्त्री नाटक मंडळी' ही फक्त बायलांचीच नाटक मंडळी तयार जाली. बच्यासानी नांवाची बायल कलाकार ही संस्था चलयताली. हाचेभायर गुडी राघवेंद्राचार्य, उंबळ हुच्चाचार्य, बादामी पुट्टाचार्य, वरदाचार, वीराण्णा गुब्बी, वामनराव मास्तर, के. सीताराम शास्त्री, सिध्दरामय्या, बसवराज मन्सूर, गंगूबाई गुळेदगडु, गोहर कर्नाटकी ह्या व्यक्तीचो उल्लेख करूंक जाय.

संस, बी. एम्.श्री., के.व्ही. पुट्टप्प, मास्ती वेंकटेश अयंगार, कैलासम्, श्रीरंग, अ.न. कृष्णराव,द.रा. बेंद्र, मुगळी, गोकाक, शिवराम कारंत, के. गुंडण्णा, लक्ष्मणराव बेंद्रे, पर्वतवाणी, एन्. के. कुलकर्णी, क्षीरसागर ह्या सगळयांनी समाजीक नाटकां बरयलीं. संस हाणें इतिहासीकूय नाटकां बरयलीं. वेवसायिक रंगभूमिच्या काळांत संस्कृत नाटकांचीं रूपांतरां -अणकार जाले. हौशी रंगभूमिच्या काळांत चडकरून शेक्सपिअर, बर्नार्ड शॉ, इब्सेन, मोल्येर हांच्या नाटकांचे अंकार - रूपांतरां जालीं. १९३३ वर्सा श्रीरंग हाणें धारवाडांत 'कन्नड नाट्य विलासी संघ' स्थापन करून आपली स्वताची वेगळे पद्दतीचीं नाटकां रंगभूमिचेर हाडलीं. गिरीश कार्नाड, चंद्रशेखर पाटील, सिंधुवक्की अनंतमूर्ती हांणी प्रायोगिक रंगभूमिक मोलादीक सहकार्य केलें. हातूंत बंगलोरचो बी.व्ही. कारंत, म्हैसूरचो डॉ. नरेश, जयाराम ताताचार, धारवाडचो जगतीर्थ जोशी, हेग्गोड्कडे, के. व्ही. सुबण्णा ही सगळी मंडळी प्रायोगिक रंगभूमिचे खांबे मानतात. गिरीश कार्नाड हाणें बरयल्लीं हयवदन, तुघलक,

ययाति हीं नाटकां जायत्या भाशांनी रुपांतरीत जाल्यांत. आधुनिक कन्नड रंगभूमिवयलीं लक्ष आडून घेवपी नाटकां म्हणून ताचो भोवमान जाला. तशेंच आद्य रंगाचार्यांचें सुनो जनमेजय, चंद्रशेखर कंबार हाचें जोकुमार स्लामी, पी. लंकेश हाचें गोकर्णद संक्रांती, चंद्रशेखर पाटील हाचें गोकर्णद गोडशानी, एच्. एम्. चन्नय्या हाचें यल्लवरंथबनल नन गंड हीं नाटकां कन्नड रंगभूमिची गुणवत्ता वाडोवपी आसात.भरपूर प्रमाणांत आनी सातत्त्यान नाट्यलिखाण करपी म्हणून श्रीरंग हाचो उल्लेख करूंक जाय. ताणें १९३० - ८४ ह्या काळांत ४२ नाटकां आनी १०० एकांकिका बरयल्यो. आर्विल्ल्या काळांत, कन्नड रंगभूमिचेर अस्तंती रंगभूमिचो प्रभाव दिसून येता. ब्रेख्त ह्या नाटककाराच्या नाटकांचीं रुपांतरां, अणकार हे रंगभूमिचेर व्हड प्रमाणांत जाले. मराठी, हिंदी, बंगाली भाशांतलीं आधुनिक नाटकांय आयलीं. 'यक्षगान' हो जानपद नाट्यप्रकार प्रभावी आसपी ही रंगभूमि पयलीं इतकी आजूय प्रभावी आसा.

**तमिळ रंगभूमि :** ही खूब प्राचीन रंगभूमि. पयलीं नाटकाचो उल्लेख 'कू-तू' ह्या शब्दान जातालो. त्या शब्दाचो दुसरो उल्लेख नृत्यकण असोय करताले. प्राचीन काळांत तमिळरंगभूमिचे दोन प्रकार आशिल्ले -

(१) कू - तम्बलम् (२) कू - तुप्पलिल. देवळालागसरचे उक्ते रंगभूमिक 'कू - तम्बलम्' तर राजवाड्यांतले रंगमाचयेक 'तुप्पलिल्' म्हण्टाले. जानपद रंगभूमिचेर जावपी सगळयांत पोरनो नाट्यप्रकार म्हळयार 'नेरकू - तू' हो आशिल्लो. ह्या नाट्याचे १२ प्रकार आशिल्ले ते १० भाव आनी २४ हस्तमुद्रा हांच्या आदारान सादर करताले. प्राचीन काळांत तजावर हें तमिळ रंगभूमिचें म्हत्वाचें केंद्रस्थान आशिल्लें. थंयच्या चोल राजांनी नृत्य - नाट्य आनी संगिताचे प्रगतीखातीर खूब प्रोत्साहन दिलें. ताकालागून 'कालक्षेपम्' , 'मुक्कूडरकुरवंजी' हे नृत्य-संगीतमय नाट्यप्रकार तिगून उरले आनी सतराव्या शेंकड्यांत हे रंगभूमिक एक नवी दिका मेळ्ळी. राजे सरफोजी भोसले हाणें दरबारचे रंगभूमिचेर मराठी नाटकांचे प्रयोग केले. तंजावरी नाटकां ह्या नांवान त्या नाटकांचो उल्लेख जाता. अठराव्या शेंकड्यांत रामायण, महाभारत, नंदचरित्रम्, हरिश्चंद्र आनी तिरूविळयाडर पुराण (शिवपुराण) हातुंतल्या कथानकांचेर आदारीत संगितिकांक लागून हे रंगभूमिक खूब लोकप्रियता मेळ्ळी. ह्याच काळांत कवी अरूणाचल कविरायर हो गीतिकालेखक जावन गेलो. १८६६ वर्सा पाँडिचेरी हांगा शारंग नाटकाचो प्रयोग जालो. १८७० ते १८८० ह्या काळांत वल्ली, कोवलन ह्या नाटकांक खूब नामना मेळ्ळी. ह्या शेंकड्या उपरांत ल्हव ल्हव इंग्लीश रंगभूमिचो परिणाम जावंक लागलो.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत सूर्यनारायणशास्त्री हाणें तमिळ भाशांतल्या नाटकांक आधुनिक रूप दिलें आनी उपरांत आधुनिक तंत्राक अनुरूप नाटकाचें लिखाण सुरू जालें. हाचें श्रेय सुंदरम् पिल्ले हाका वता. रावबहादूर पम्मल संबंधमुदलियार हाणें 'सगुणविलास सभा' नांवाची तमिळ नाटक मंडळी स्थापन केली. ती कंपनी पौराणिक, अर्दपौराणिक स्वरूपाचे प्रयोग करताली. उपरांत कृष्णस्वामी पावलर हाचीं पतिभक्ती, गव्हर्नसंपक, बंबई मेल, पंजाब केसरी हीं समाजीक नाटकां रंगभूमिचेर आयलीं. समाजीक नाटकां येतकच पौराणिक नाटकांचें प्रमाण उणें जालें. समाजीक नाटकांचें श्रेय शंकरदास स्वामी हाका दिवंक जाय. हे विशीं शंकरदास स्वामी आनी कंदस्वामी हांणी आपली शिश्य परंपरा निर्माण केली. शंकरदास स्वामीचे परंपरेंत टी. के. एस्. ब्रदर्स, नवाब टी.इ. एस्., राजमणिवकम्, पी.टी. संबंधम्, टी. पी. पुन्नुस्वामी पिल्ले के. सारंगपाणी, एम्. एस्. मुत्तुकृष्णन्, टी. बालसुब्रमण्यम्, एम्. व्ही. मणी, एस्. व्ही. व्यंकटरामन् ह्या कलावंतांचो आस्पाव जाता. तर एन्. एस्. कृष्णन्, कोंळी एन्. रत्नम, के.पी. केशवन, पी.यू. चिन्नप्पा, एम्. व्ही. सहस्त्रनामम्, एस्. के. राधा, एमछ्.जी. रामचंद्रन् हे कलावंत कंदस्वामीचे परंपरेंत येतात. हाचेभायर एस्. जी. किट्टाप्पा, के. एस्. अनंत नारायण, के. बी. सुंदरम्बाळ (अभिनेत्री) हांचो उल्लेख तमिळ रंगभूमिच्या कार्यांत करप खूब गरजेचो. बालमीना रंजनी संगीत सभा, मीनलोचनी विन्दत सभा, लक्ष्मी शारदा कंपनी, मद्रास बॉयज कंपनी, कुमार लक्ष्मी गान सभा, रामानुकूल सभा, मद्रास ड्रॅमॅटिक सोसायटी, मदुराई श्रीबाल षण्मुखानंद सभा, मदुराई देवी बालविनोद सभा ह्या नाटक मंडळयांनी तमिळ नाटकांचे प्रयोग करून रंगभूमिक खूब नामना मेळोवन दिली.

**तेलुगू रंगभूमि :** ही आंध्र प्रदेशांतली रंगभूमि आसा. प्राचीन नाट्यप्रयोग राजदरबाराखातीर जाताले. उपरांत ते सामान्य लोकांखातीर जावंक लागले. १८७० वर्सा लिखित नाटक निर्माण जालें. लिखित तेलुगू नाटकाचो जनक म्हणून व्यंकट कृष्णम्मा चारूलु ह्या नाटककाराक वळखतात. चित्र नलियम् हें ताचें म्हत्वाचें नाटक. प्राचीन काळापासून थंय यक्षगान, बुईकथा, हरिकथा, वीयिनाटकम् आनी समवेत गान हे लोकनाट्यप्रकार चलत आयल्यात. कूचिपूडी हो नृत्यनाट्यप्रकारूय ह्याच प्रांतांतलो आसा.

उपरांत गोपाल चारूलु हाचें रामदास; लक्ष्मीकांतम् हाचें सत्य हरिश्चंद्र, व्यंकट पार्वतेश्वर कावुल हाचें पांडव उद्योग विजयमुलु, प्रभाकर शास्त्रीचें प्रतिमा हीं नाटकां रंगभूमिचेर आयलीं. पूण तीं अनुवादात्मक आशिल्लीं. कांय काळा उपरांत त्या काळांतल्यो समाजीक, राजकीय अडचणी हे रंगभूमिवयल्या नाटकांनी दिसूंक लागल्यो. ह्या नाटकांतली भास पुस्तकी रुपान उरनासतना बोलीस्वरूपाची जाली. हातूंत राजमन्नार हाचें थाप्पु एकरिथी हें म्हत्वाचें नाटक आसा. उपरांत शंकर सत्य नारायणाचें मुंदादुगु आनी रेड्डी भास्करराव हाचें मा भूमि हीं नवविचारवादी नाटकां रंगभूमिचेर आयलीं. हीं नाटकां बेझवाड्याच्या 'आंध्र प्रजा नाटक मंडळी' हांचे वतीन जातालीं. 'मा भूमि' ह्या नाटकान तेलुगू रंगभूमिचेर नवयुग निर्माण केलें अशें मानतात.

आर्विल्ले तेलुगू रंगभूमिचेर गुरजाड अप्पाराव हाचें कन्या शुल्क हें नाटक खूब लोकप्रिय जालें. वेदम् व्यंकट आर्यशास्त्री हाच्या प्रताप रुद्रीयम् ह्या नाटकांत रंगभूमिविशींच्या तंत्राचो तर्कशुध्द वापर केल्ल्यान ते लक्षवेधी थारलें. बऱ्याचशा संस्कृत नाटकांचे अणकार तेलुगूंत जाले. इतिहासीक नाटकांय रंगभूमिचेर आयलीं. तातूंत उत्तम इतिहासीक नाटक म्हणून कोलचलम् श्रीनिवासराव हाचें विजयनगर साम्राज्य पतनम् ह्या नाटकाचो उल्लेख जाता. भाशांतराच्या काळांत आत्रेय हाच्या ए नाडू आनी गुमास्ता ह्या सारक्या स्वतंत्र, समाजीक नाटकांक खूब यश मेळ्ळें. इंग्लीश नाटक आनी रंगभूमिचो प्रभाव ह्या काळांतल्या तेलुगू नाटकांचेर व्हड प्रमाणांत आशिल्लो. नाटकांचे वट्ट संख्येंत एकांकिका हो नाट्यप्रकार चड प्रमाणांत आसा. नाटकांपरस कांय एकांकी नाटकां तेलुगू रंगभूमिचेर चड लोकप्रिय जाल्यांत. तांतूंत व्यंकटेश्वर राव हाचीं प्रारब्धम् आनी भंगपटु हीं एकांकी नाटकां प्रसिद्द आसात. तेलुगू रंगभूमिचेर के. रामनाथ शास्त्री हाका सगळयांत चड मानाची सुवात आसा.

वेवसायीक तेलुगू नाटक कंपन्यांची परंपरा सुरभि नाटक कंपनीपसून सुरू जाली. १९१९ ते १९३० ह्या काळांत, मोते नारायणराव हाची सीतारामांजनेय समाजम्, बेझवाड्याची मैलवरम् कंपनी, तेनालीची रामविलास सभा, चिंतामणी नाटक समाज आनी जगन्मित्र नाटक समाज ह्या नाटक कंपन्यांनी, आपल्या नाट्यकर्तुत्वान तेलुगू रंगभूमिचेर इतिहास निर्माण केलो. सुरवेच्या काळांत बायलांच्यो भूमिका दादले करताले. पूण सुरभि नाटक कंपनीन बायलांच्यो भूमिका बायलांनीच करपाचो नवो पांवडो घालो. परप्रांतीय, परदेशी नाटक कंपन्याचो तेचभाशेन मराठी रंगभूमिवयल्या कांय नाटकांच्या विशयांचो प्रभाव तेलुगू रंगभूमिचेर पडिल्लो दिसता. देखीक - वोक्का पेग हें एकच प्याला नाटकाचो तेलुगू अणकार आसा. यडवल्ली सूर्यनारायण, उप्पुदुरी संजीवराव, स्थानम् नरसिंह राव, डी. बी. सुब्बराव, दैता गोपालम्, कपिलाबाई रामनाथ शास्त्री, गोविंद राजुलु सुब्बराव हे नवे - पोरने कलाकार खूब लोकप्रिय आसात.

**मलयाळम् रंगभूमि :** मलयाळम् ही केरळ राज्याची भास आशिल्ल्यान, हांगा खूब पयलींसावन लोकनाच आनी लोकनाट्यां प्रचलित आसात. थंय आजुनूय संस्कृत रंगभूमि तिगून आसा. हांगाचे रंगभूमीचेर नृत्यमय अभिनयाचेर चड भर दितात. पोरन्या मलयाळम् रंगभूमिवयल्या मनोरंजनाचे विशयाचे नदरेन तीन भाग पडटात (१) धर्मीक (२) अर्दधर्मीक (३) धर्मनिरपेक्ष वा ऐहिक. धर्मीक प्रकारांत भगवती पुट्ट, तियाट्ट, पण, पट्ट, कणियाड कळी आनी मुडियेट्ट हे नृत्यनाट्यप्रकार येतात. धर्मीक नृत्यप्रकार हे चडकरून भगवती पुजेचेच प्रकार आसात. देवीक प्रसन्न करपाच्या हेतान कुमारम् स्वताच भगवतीचें सवंग घेवन भगवतीमय जाता. ह्या नाटकांत काली देवी क्रूर राक्षसाचो वध करता, अशा आशयाचें कथानक आसता. अर्दधर्मीक नाट्यप्रकारांत संघकळी, कुत्तू, कृष्ण नाट्टम् हांचो आस्पाव जाता. संघकळीचीं स्वस्तिकळी, शास्त्रकळी आनी यागाकळी अशीं आनीकूय नांवां आसात. ह्या नाट्यप्रकारांत कांय संघ वाटो घेतात तेरवातीर ह्या प्रकाराक संघकळी अशें म्हण्टात. ह्या नाट्यप्रकाराची सुरवात इसवी सनाच्या पयल्या शेंकड्यांत जाली आसुये अशें मानतात. कृष्ण नाट्टम् हें गीतगोविंद ह्या काव्याचेर आदारिल्लें आसा. कुत्तू हो नाट्यप्रकार संस्कृत नाटकाचोच एक प्रकार. ह्या नाट्यप्रकारांत विशिश्ट जातींतल्या दादले - बायलांनी भूमिका करच्यो असो दंडक आसतालो. हाचे प्रयोग तीन ढंगांनी करताले. फकत वर्णनात्मक प्रयोगाक प्रबंधम् कुत्तू, फक्त अभिनयात्मक प्रयोगाक नांग्यड आनी नाट्यकलापूर्ण प्रयोगाक कूटियाट्टम् म्हण्टाले. ह्या नाट्यप्रकारांतले अभिनेते परंपरागत अभिनयाचें शिक्षण घेवन, आपल्याक योग्य दिसत ते पद्धतीन अभिनय करतात. कोचीन बी सारकिल्ल्या भागांनी ही रंगभूमि अजुनूय अस्तित्वांत आसा.

धर्मनिरपेक्ष वा ऐहिक प्रकारांत एलामुट्टी पुरापट्टु, तुळळ्ल, कोरटीयाटम्, मोहिनीआट्टम्, कयुकोटिकळी, पथकम् आनी कथकळी हे प्रकार आसात. ह्या नृत्यनाट्यांतूय संगीत, नृत्य आनी खाशेली वेशभूशा करून अभिनय करतात. उक्ते रंगभूमिचेर हाचो प्रयोग जाता. सद्या केरळांत अस्तित्वांत आशिल्लें नृत्यनाट्य म्हळयार कथकळि नृत्य. कोट्टारवकरा राजान महाभारतांतली कथा घेवन पद्यरचना करपाक सुरवात केली तेन्ना ह्या नाट्यप्रकाराक कथकळी अशें नांव पडलें. (पळेयात - कथकळी नृत्य)

हाचेभायर मलयाळम् रंगभूमिचेर गद्यपद्ययुक्त आधुनिक पद्धतीचीं नाटकां जातात. सी. व्ही. रामन् पिळळा, ई.व्ही. कृष्ण पिळळा हांचीं बरीचशीं गद्य नाटकां रंगभूमिचेर आयलीं. चेऊ काड, उरूब, पडशेरी, तोपील मास्त्री हे नवे नाटककार उदयाक आयले.

**गुजराती रंगभूमि :** दलपतराम डाह्याभाई कवीश्वर हाणें बरयल्लें 'लक्ष्मी' हें पयलें गुजराती नाटक मानतात. परकीय नाटकाचेर आदारिल्लें हें नाटक गुजरात व्हर्नाक्युलर सोसायटीन सादर केल्लें. उपरांतचीं बरीचशीं नाटकां संस्कृतांतल्यान प्रेरणा घेवन गुजरातींत आयलीं. देखीक - मिथ्याभिमान, वेणीसंहार, रूढी दिग्विजय, भ्रांतिसंहार आनी हेर. १८६१ वर्सा रणछोडभाई उदयराम हाणें जयकुमारी विजय हें नाटक बरोवन गुजराती रंगभूमिक ऊर्बा हाडली. मराठी-हिंदी - पारशी नाटकमंडळांनी केल्ल्या नाट्यप्रयोगांचो परिणामूय हे रंगभूमिचेर जालो. पारशी रंगभूमिचो परिणाम अजुनूय तसोच आसा. नवलराम पंड्या हाणें बरयल्ल्या वीरमती ह्या इतिहासीक नाटकाचें म्हत्व चड मानतात. प्रताप हें गणपतराम राजाराम हाचेंय नाटक लक्षवेधी थरलें. चंद्रवदन मेहता, कनैयालाल मुनशी, रमणलाल देसाई, धनसुखलाल हांच्या नाटकांनी गुजराती रंगभूमिचें सातत्य तिगोवन दवरलें. तेचभाशेन काठियावाडी नाटक मंडळी, रिपन थिएट्रिकल

कंपनी, बालीवाला पारशी व्हिक्टोरिया थिएट्रिकल कंपनी, मुंबई - गुजरात नाट्यमंडळी, देशी नाटक समाज ह्या वेवसायीक नाटकमंडळांनी म्हत्वाचें कार्य केलां. बुध्दा आनी बुरां ह्यो दोन भयणी गुजराती रंगभूमिवयल्यो पयल्यो बायल - कलावंत आसात.

हे गुजराती रंगभूमिन स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत वेगळें रूप घेवपाचो यत्न केलो. इब्सेनाचीं कांय नाटकां, गुणवंतराय - आचार्य हाचें अल्लाबेली, शिवकुमार जोशी हाचें समंगला, धनसुखलाल मेहता आनी गुलाबदास ब्रोकर हांचें धुम्रसेर हीं म्हत्वाचीं नाटकां रंगभूमिचेर आयलीं. अणकारीत आनी रुपांतरीत पद्दतीन व्हड प्रमाणाचेर गुजराती रंगभूमिचेर नाटकां आयलीं. अस्सल गुजराती नाटक उण्या प्रमाणांत आयलें. तातुंतल्या तातूंत लाभशंकर ठाकर आनी सितांशु यशश्चंद्र ह्या आधुनिक कवी - नाटककारांनी हे रंगभूमिची परंपरा आनी प्रतिमा बदलपाचो यशस्वी यत्न केलो. प्रवीण जोशी हाणें हे रंगभूमिक नवें मोडण दिवपाचो म्हत्वाचो यत्न केले. हे यत्न करतना ताका भारतीय तेचभाशेन परकी नाटकांचो आदार घेवचो पडलो. देखीक - ताणें विजय तेंडुलकर (शांतता, कोर्ट चालू आहे), बादल सरकार (एवम् इंद्रजीत), तशेंच साइन पोस्ट टू मर्डर ह्या नाटकांचीं गुजराती नाट्यरुपांतरां केलीं. मधू राय, चिनू मोदी हे आनीकूय म्हत्वाचे आधुनिक नाटककार.

**हिंदी रंगभूमि :** १८४३ वर्सा वाजिद अली शहा हाणें रट्टस ही रचना रासलीलेच्या आदारान करून तातूंत नाचाचो वापर केलो. तातुंतल्यानूच ताणें आपल्या काव्यांक नाट्यरूप दिलें. ह्या काळांत हिंदी रंगभूमिचेर पारशी - उर्दू रंगभूमिचो प्रभाव आशिल्लो. १८५३ वर्सा आगा हसन अमानत हाणें हिंदी - उर्दू भाशेंत 'इंदरसभा' हें नाटक बरयलें. राधेश्याम कथावाचक हाणें पयलेच खेप पारशी रंगमाचयेर हिंदी नाटकांचे प्रयोग यशस्वीपणान केले. आगा हश्न कश्मीरी हाणें पयलीं उर्दूंत आनी उपरांत हिंदींत नाट्यलिखाण केलें. ताणें सूरदास, गंगावतरण, भीष्मप्रतिज्ञा हीं नाटकां बरयलीं. नारायणप्रसाद बेताब हाणें उर्दू- हिंदींत महाभारत, जहरी साप, कृष्ण सुदामा, शाकुंतल हीं नाटकां बरयलीं. भारतेंदु हरिश्चंद्र हो एक श्रेश्ठ नाटककार तसोच एक बरो नट - दिग्दर्शक आशिल्लो. ताणें त्या काळांतले समाजीक, धर्मीक, राजकीय परिस्थितीचेर नाटकां बरयलीं. 'विद्या सुंदर' (१८६८) हें ताचें पयलें नाटक. उपरांत ताणें अंधेरी नगरी, वैदिकी हिंसा हिंसा न भवति हीं प्रहसनां, भारत जननी हें संगीत नाटक, चंद्रावली हें शोकात्म नाटक आनी नीलदेवी हें गीतिरूपक बरयलें. आपल्या ह्या नाट्यलिखाणान ताणें हिंदी रंगभूमिक चड प्रतिश्ठा मेळोवन दिली. तेचभाशेन जयशंकर प्रसाद हाणें १९१० ते १९३३ ह्या काळांत तेरा नाटकां बरोवन एक स्वतंत्र युग निर्माण केलें. हरिकृष्ण प्रेमी हाणें इतिहासीक नाटकां बरयलीं. गोविंद वल्लभ पंत हाणें अंगूर की बेटी, अंतःपूर का छिद्र, अधूरी मूर्ती, अंधेरी बस्तिया हीं नाटकां बरयलीं. उदयशंकर भट्ट ह्या प्रयोगशील नाटककारान मत्स्यगंधा, विश्वामित्र, राधा हीं पद्यनाट्यां बरयलीं. लक्ष्मीनारायण मिश्र हाणें संन्यासी, राक्षस का मंदिर, मुक्ति का रहस्य हीं नाटकां बरयलीं. पृथ्वीराज कपूर हो एक बरो नट, दिग्दर्शक आनी नाट्यनिर्माती. ताणें पठाण, दीवार, पैसा, गद्दार, कलाकार, किसान हीं नाटकां बरयल्ल्यान ताका आनी हिंदी नाटकांक खूब नामना मेळ्ळी. उपेंद्रनाथ अश्क हाणें स्वर्ग की झलक, कैद, उडान, अंजो दीदी, छठा बेटा, अलग अलग रास्ते हीं समाजीक व्यंगांचेर बरींच नाटकां बरयलीं. जगदीशचंद्र माथूर हाणें बंदी, कोणार्क, शारदीया, पहला राजा हीं बऱ्या दर्जाचीं नाटकां बरयलीं. मोहन राकेश हाणें आषाढ का एक दिन, लहरोंका राजहंस, आधे अधुरे हीं नाटकां बरोवन हिंदी नाटक आनी रंगभूमिक नवें चैतन्य निर्माण केलें. लक्ष्मीनारायण लाल हाणें अठरा नाटकां बरयलीं. तातुंतलीं कांय म्हत्वाचीं अशीं आसात - अंधकुआ, मादा कैक्टस, सुखा सरोवर, रक्तकमल, तोता-मैना, करफ्यू, अब्दुला दीवाना आनी रातरानी. रमेश मेहताचें अंडर सेक्रेटरी ह्या नाटकाक खूब नामना मेळ्ळी. विनोद रस्तोगी हाणें आजादी के बाद, नये हाथ, बर्फ की मीनार हीं नाटकां बरयलीं. ज्ञानदेव अग्निहोत्री हाणें नेफा की एक शाम, माटी जागीरे, अनुश्ठान, शतुरमुर्ग हीं नाटकां बरयलीं. धर्मवीर भारतीचें अंधा युग हें प्रभावी नाटक भारतीय स्तराचेर मान्यतेक पावलां.

आधुनिक काळांत रेवतीशरण शर्मा (अपनी धरती), मन्नू भंडारी (बीना दीवारो के घर), विष्णू प्रभाकर (डॉक्टर, युगे युगे क्रांती), शंकर शेष (फंदी, बंधन, अपने अपने, खजुराहो, रक्तबीज, पोस्टर), रामेश्वरदयाल दुबे (अगस्त्य), रमेश बक्षी (देवयानी का कहना है), सक्सेश्वरदयाल शर्मा (बखरी), सुरेंद्र वर्मा (द्रौपदी) ह्या नाटककारांनी, म्हत्वाचीं नाटकां बरोवन हिंदी रंगभूमि संपन्न केली.

**असमिया रंगभूमि :** आसाम आनी बिहार हांगा पयलीं वैश्णव पंथाचो खूब प्रभाव आशिल्लो. बिहारांत विद्यापतीन निर्माण केल्ले रंगभूमिन आसामांतलो श्रेश्ठ कवी शंकरदेव हाका स्फूर्त मेळ्ळी आनी ताणें आपल्या वैश्णव पंथाचो प्रसार आनी प्रचार करपाखातीर रंगभूमिचो वापर केलो. पुर्विल्ल्या काळासावन आसामाचे उक्ते रंगभूमिचेर लोकनाच आनी लोकनाट्यां व्हड प्रमाणाचेर जातालीं. तातुंतले मुखेल विशय धर्मीक आनी आध्यात्मिक आसताले. आसामांतलो सगळ्यांत पोरनो नाट्यप्रकार म्हळ्यार 'ओजापाली'. हातूंत नाच, संगीत, संवाद, अभिनय ह्या सगळ्यांचो आस्पाव आशिल्लो ओजापाली नाट्यप्रकाराची सुधारून वाडयल्ली आवृत्ती म्हळ्यार भावना हो नाट्यप्रकार. हातुंतलीं कथानकां पौराणिक आसतालीं. मनोरंजना वांगडा उपदेशूय आसतालो. दशावतार, तमिळनाडूंतलो तेरूकुतु वा आंध्रांतलो वीथी हाचेकडे भावना ह्या नाट्यप्रकाराचें सारकेंपण दिसून येता. ह्या नाट्यप्रकाराक राजाश्रय आसतालो. नामधर नांवाच्या

प्रार्थनामंदिरांत ह्या नाट्यप्रकाराचे आजुनूय प्रयोग जातात. १४४९ ते १५६९ ह्या आसामाच्या धर्मीक, समाजीक, संस्कृतीक घडामोडींच्या काळांत, कवी शंकरदेव आनी ताचो शिश्य माधवदेव हांणी असमिया रंगभूमिचो उदय आनी विकास घडोवन हाडलो. नेपथ्य, वेशभूशा, रंगभूशा, प्रयोगतंत्र हातूंत बऱ्योच सुदारणां घडून असमिया रंगभूमिक आधुनिक रूप मेळ्ळें. हाचें चडशें श्रेय हेमचंद्र बरुआ आनी गुणाभिराम हांकां वता. तेचभाशेन जे.पी. अगरवाल आनी आद्य असमिया एकांकिका लेखक लक्ष्मीधर शर्मा हांणी असमिया रंगभूमि समृध्द केली. बंगाली रंगभूमिचे नवे नवे प्रयोग असमिया रंगभूमिचेर दिसूंक लागले. हालींच्या काळांत नवे नाटककार, नट, नाटकां निर्माण जायत आसात, ताकालागून हे रंगभूमिचो ल्हव ल्हव विकास जायत आसा.

**उर्दू रंगभूमि :** वेवसायिक उर्दू रंगभूमिचेर नाटकां जावपाक सुरवात जावचेपयलीं राजेराजवाडे - अमीरउमराव हांच्या मनोरंजनाखातीर भांड वा नकलीये ह्या नांवान वळखुपी लोक उर्दू भाशेंत सामान्य दर्जाचीं प्रहसनां रचून, तीं प्रयोगरुपानूय करून दाखयताले. ती उर्दू रंगभूमिची प्राथमिक अवस्था आशिल्ली. लखनौचो वाजिद अली शहा हाचे कारकीर्दींत अशा नाटकांचें प्रमाण चड आशिल्लें. शाकुंतल नाटकाच्या संस्कृताचो अणकार हें उर्दू भाशेंतलें पयलें नाटक. एका बादशहाचे इत्सेक लागून नवाज नांवाच्या कवीन तें बरयल्लें. इंद्रसभा हें उर्दू भाशेंतलें पयलें स्वतंत्र नाटक. अमानत हो त्या नाटकाचो लेखक. हें नाटक खूब गाजलें. हे रंगभूमिचेर शुध्द उर्दू आनी हिंदी मिश्रित उर्दू अशे भाशेचे नदरेन दोन तरांचे नाट्यप्रयोग जाताले. विसाव्या शेंकड्याच्या सुरवेच्या काळांत,उर्दू नाटकांत साहित्यगुण आनी प्रयोगगुण दोनूय व्हड प्रमाणांत दिसूंक लागले. महाभारत, रामायण, बिल्वमंगल हीं धर्मीक आनी संतचरित्रपर नाटकांभशेन राजदुलारी, मुरारीदादा हे सारकीं गद्य समाजीक नाटकांय हे रंगभूमिचेर आयलीं. महाराणा, वीरवृषल, बुध्ददेव, स्वामी दयानंद ह्या इतिहासीक नाटकांनी ही रंगभूमि गाजयली. नूर-ई-वतन आनी इल्फिक् हीं नाटकां राजकीय विशयांवयलीं आशिल्लीं. नारायणप्रसाद बेताब हाणें उर्दू नाटकांनी हिंदी भजनां घालीं. त्या काळांतले उर्दू रंगभूमिचेर बंकिमचंद्र चतर्जी आनी नामनेचो हिंदी नाटककार हरिश्चंद्र भारतेंदु हांच्या नाटकांची छाप व्हड प्रमाणांत आसा. देखीक - गुलबकावली, फिरोज गुलनार, लैला मजनू, शिरीनफरहाद ह्या नाटकांचो उल्लेख करूं येता.उर्दू रंगभूमिची भरभराट करपी नाटककारांभितर मुनशी ज्वालाप्रसाद बर्क, पं. त्रिभुवनदास सप्रू, पं. रतननाथ सरशार, मौलवी महंमद हुसेन आझाद हांचो आस्पाव जाता. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत व्हिक्टोरिया नाटक मंडळी, मादन थिएटर्स ह्यो नाटक मंडळयो भारतभर भोवताल्यो. हेर नाटकांवांगडा त्यो उर्दू नाटकांचेय प्रयोग करताल्यो. पयलींपरस सुदारिल्ल्या आनी वेगळें स्वरूप धारण केल्ले उर्दू रंगभूमिचो जनक म्हणून दादा (दादी) भाई साहेबराव पटेल ह्या पारशी गृहस्थाचो उल्लेख करतात. ताणें आपल्या ओरिजिनल व्हिक्टोरिया नाटक मंडळीवतीन बरीचशीं बरीं उर्दू नाटकां रंगभूमिचेर हाडलीं. उर्दू नाटकां वेवसायिक रंगभूमिचेर हाडपी निमाणची नाटक मंडळी म्हळयार रुस्तुमजी मोदी हाची आर्यसुबोध नाटक मंडळी. दिल्ली, जम्मू, लखनौ, कलकत्ता ह्या भागांनी उर्दू नाटकांचे मदीं मदीं प्रयोग जातात.



कोंकणी नाटकाचो एक देखाव

**पंजाबी रंगभूमि :** पंजाबी नाट्यकलेचो सगळयांत पोरनो असो नमुनो म्हळयार 'किस्साखानी'. पद्यरुपान पौराणिक कथा सांगून, पंजाबी भाशेंत साभिनय अर्थ सांगप हें ताचें स्वरूप आसतालें. पौराणिक कथांभाशेन कांय थळाव्यो अमर प्रेमकथाय सादर जाताल्यो. देखीक- हीररांझा, सोहनी-महीवाल, झुलेखा ह्यो प्रेमकथा किस्साखानीचे विशय आसताले. नचार कलावंतांचो तमाशा, नकलियांची नक्कल, गीतवाद्यमय आशिल्ली रढसारंगी आनी नौटंकी हीं लोकनाट्यां तशेंच गिध्दासारके फुगडी नाच पंजाबच्या खेड्यांत आजूय तिगून आसात. आधुनिक पंजाबी रंगभूमिची खरी सुरवात फिरोझदिन शरफ हाच्या हसिस्याल ह्या नाटकान जाली. ह्या नाटकाक यश मेळ्ळेंना, पूण ह्याच विशयाचेर वलीसाहेब ह्या लेखकान बरयल्लें 'जट्टीहीर' नाटक खूब गाजलें. हौशी आनी वेवसायीक मंडळयो खूब नाटकांचे प्रयोग करीत आसतात. तातूंत रेल्वे ड्रॅमॅटिक क्लब, राम नाटक क्लब, भतिंडा हांगाचो हश्न नाटक समाज, सुभाष नाटक समाज, युनायटेड थिएटर्स, कल्चरल थिएटर ह्या मंडळयो म्हत्वाच्यो आसात. तांणी केल्लीं कृष्णसुदामा, काल, जहेज (दहेज), उलटे लोग हीं नाटकां खूब गाजलीं. पोरन्या - नव्या नाटककारांभितर आनीक कांय म्हत्वाचे नाटककार म्हळयार आय्.सी. नंदा, जोश्वा फज़ल दिन, रफी पीर. तांचीं पिंडदेवेरी, आँखिया, सुभद्रा ह्या नाटकांक खूब नामना मेळ्ळी. १९३९ वर्सा उपरांत पंजाबी रंगभूमिचेर नवयुग निर्माण

जालें. नव्या लेखकांभितर संतसिंह, हरचरणसिंग, कर्तारसिंग दुग्गल, बलवंत गार्गी, गुरूबक्षसिंग, शीला भाटिया, गुरूदियाल सिंग, रोशनलाल, अमरीक सिंग हे नाटककार उल्लेखनीय आसात.

**ओडिया रंगभूमि :** पोरनो ओडिया नाट्यप्रकार म्हळयार 'रामलिला'. मुसलमानी अमदानींत रूढ जाल्ल्या ह्या नाट्यप्रकाराक 'मजलीस' अशें म्हण्टाले. बंगालींतल्या जात्रा आनी पाला हांचोय प्रभाव हे रंगभूमिचेर आशिल्लो.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत बालेश्वरहांगा एक बंगाली नाटक कंपनी आयली आनी तिणें बंगाली नाटक सादर केलें. तें नाटक पळोवन कांय तरनाट्या ओडिया कलाकारांनी ते पद्धतीचें नाटक १८७८ वर्सा करून दाखयलें, आनी खऱ्या अर्थान ओडिया रंगभूमिची सुरवात जाली. रामशंकर राय हाणें बरयल्लीं ओडिया नाटकां हौशी कलाकार करूंक लागले. १८८५ वर्सा कोठपदा नांवाच्या खेड्यांत नाटकाखातीर खाशेली रंगमाची महंत दैत्यारि रघुनाथ हाणें तयार केली. ते माचयेर सुमार तीस-चाळीस नाटकां जालीं. उपरांत १८८७ वर्सा कटक हांगा मधुसूदन दास हाच्या यत्नान एक कायम स्वरूपाचें रंगमंदिर तयार जालें. त्याच अदमासाक जगन्नाथ थिएटर क्लब, व्हिक्टोरिया ॲमॅच्युअर्स थिएटर, वासंती नाट्यशाला, कृष्णचंद्रपालित उषा थिएटर ह्यो नाट्यसंस्था स्थापन जाल्यो. वनमालिपती आनी अश्विनीकुमार घोष हांणी आर्ट थिएटर ही ओडियांतली पयली वेवसायिक नाटक मंडळी स्थापन केली. हाचेभायर मोहन गोसाई हांचे नाटक कंपनीन खूब नामना मेळयली. अन्नपूर्णा थिएटर संस्थेन बरीचशीं पौराणिक - समाजीक नाटकां रंगभूमिचेर हाडलीं. कविभूषण घनःश्याम मिश्र, गोदावरीश मिश्र, अश्विनीकुमार ह्या नाटककारांनी ओडिया रंगभूमिक वैभव मेळोवन दिलें. आधुनिक रंगभूमिवयले वास्तव देखावे दाखोवपाचें श्रेय कालीबाबूक मेळटा. ताच्यावांगडा मनमोहन दास, रामचंद्र दास ह्या नाटककारांनी नवे विशय हाताळे आनी ओडिया रंगभूमिक समृध्द केली.

- कों. वि. सं. मं.

**कोंकणी रंगभूमि :** (पळेयात परिशिश्ट).

**रंगारी :** एक जात. हांकां छीप, भावसार, निराली आनी नीलगर अशींय नांवां आसात. हे लोक सुताचे कपडे रंगयतात आनी तांचेर छापणावळ करतात. हांचेमदीं हिंदू आनी मुसलमान धर्माचे लोक आसात. उ. भारतांत तांकां छीप आनी दक्षिण भारतांत रंगारी हीं नांवां आसात. छीप आनी रंगारी हांचेमदीं रोटी-बेटीचो वेव्हार जायना. कपडो रंगोवपाखातीर जे नीळ वापरतात, ते नीलगर आनी निराली जातात. उत्तर भारतांत रंगाऱ्याक भावसार अशेंय म्हण्टात. रंगारी लोक स्वताक विणकारांपरस वयल्या दर्ज्याचे मानतात. लग्नाखातीर उबारिल्ल्या खांब्याक सात प्रदक्षणा घालप हो तांच्या लग्नांतलो मुखेल विधी आसता. हांकां घटस्फोट आनी परत लग्न जावप मान्य आसा.

हे लोक मेल्ल्या मनशाक दक्षिणेवटेन पांय करून सरणाचेर दवरून लासतात. रंगाऱ्यामदले निराली हे लोक महाराष्ट्रांतल्या पुणें वाठारात आसात. अहमदनगर वाळारातय हे लोक मेळटात. हांची पोटजात आसपी चिलिवंत हे लिंगायत आसून हेर मराठे आसात. हांचेयमदीं रोटी - बेटी वेव्हार जायनात.

खंडोबा आनी भवानी हीं निराल्यांचीं कुळदैवतां. तांचें देवसपण देशस्थ ब्राह्मण करतात. हे सुयेर धा दीस पाळटात. इकराव्या दिसा भुरग्याक नांव दवरतात. मेल्ल्या मनशाच्या मड्यार धवें लुगट घालतात. मेल्ले सवायशीण बायलेक हळदुवे न्हेसण न्हेसयतात. तिचेर हळद शिंवरून फुलां घालतात. मड्याक लासप आनी पुरप अशो दोनूय रिती आसात.

दक्षिणेक तेलुगू जिल्ह्यांत रावपी रंगारी मराठी भास उलयतात. ह्या वयल्यान ते मूळचे मराठी जातीचे आसात हें कळटा. तांकां राव अशी पदवी आसा. ते अंबाभवानीक मानतात. उत्तर अर्काटामदले रंगारी स्वताक क्षत्रीय म्हण्टात. आपल्या क्षत्रीयत्वासंबंदीं ते परंपरेन आयिल्ली कथा सांगतात.

हे लोक दसरो आनी मदनदहन हे दोन सण पाळटात. दसऱ्या दिसा तुळजाभवानीची पुजा करतात आनी शिगम्याक लांकडाची होळी पेटोवन तिचे भोंवतणीं उबे रावून 'लब लब' अशें म्हणून आड्डतात आनी मदनाचें दहन जाल्लेखातीर दुख्ख करतात.

हांचेमदीं भुरगें नाशिल्ल्या विधवांक परत लग्न जावपाची मेकळीक आसा. पूण अशा बायलांक धर्मीक गजालींनी वांटो घेवपाक मेळना. हे लोक मांस खातात आनी सोरो पियेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रंभा :** एक अप्सरा. ही समुद्रमंथनांतल्यान वयर आयली अशी आख्यायिका आसा. तिका कश्यप आनी प्राधा हांची धूव अशें म्हळां. ती सुमाराभायर सोबीत आशिल्ली. ताका लागून इंद्रान विश्वामित्राचो तपोभंग करपाखातीर तिका धाडिल्ली. तिका लागून विश्मामित्राचो मातूय भंग जालोना, मात ताणें तिका 'शिळा जावन पडटली' असो श्राप दिलो. उपरांत तिका 'एक ब्राह्मण तिचो उद्धार करतलो असो उःश्शाप मेळिल्ल्याच्यो कथा वाल्मिकी रामायणांत आसात.

रावण कैलासाक वता आसतना रंभा ताचे नदरेक पडली. तेन्ना ताणें तिका उबारून व्हेली. तेन्ना ती ताका म्हण्टा, 'हांव तुजो भाव कुबेर हाची सून आनी नलकुबराची बायल'.

रंभेचो उल्लेख दुसरी एक लावण्यवती उर्वशी हिचेवांगडा करप जाता. ती नाचांत कुशळ आशिल्ली.

स्कंद पुराणांत रंभेविशी एक कथा आसा ती अशी : श्वेत नांवाच्या मुनीचें आनी एका राकेसाचें झूज जालें. तांतूत श्वेतमुनीन वाटवस्त्राचो प्रयोग केलो. ताका लागून राकेसी आनी शीळारूप रंभा

दोगांय शेंवटून कपीतिर्थांत पडल्यो. तेवरवीं दोगांयचो उद्धार जालो (स्कंद. पु. ३.१.३९). शुकदेवाकडेन रंभेचो जो संवाद जाल्लो तो शुकरंभासंवाद ह्या नांवान उजवाडायल्लो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**र :** देवनागरी वर्णमाळेंतलें सत्ताविसावें व्यंजन. ह्या वर्णाक सद्याचें स्वरूप मेळचे आदीं चार अवस्थांतल्यान वचचें पडलां. ताची पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनारच्या शिलालेखांत, दुसरी राजा यशोधर्म्याच्या काळांतल्या (इ. स. ५३२) मंदसोरच्या लेखांत, तिसरी अवस्था मेवाडच्या गुहिलवंशी राजा अपराजित हाच्या वेळावयल्या (इ. स. ६६१) कुंडेश्वराच्या लेखांत आनी चवथी प्रतीहार बाडकच्या जोधपूरच्या लेखांत (इ. स. ८३७) मेळटा.

र चो विकासक्रम असो -



वर्णोद्धारतंत्रांत ह्या वर्णाचें ध्यान सांगलां तें अशें :

ललज्जिह्वां महारौद्रीं रक्तास्यां रक्तलोचनाम
रक्तवर्णामिष्टभुजां रक्तष्टष्पोपशोभिताम् ।।
रक्तमाल्याम्बरधरां रक्तालङ्कार भुषिताम्
महामोक्षप्रदां नित्यामष्ट सिद्धिप्रदायिकाम् ।।
एवं ध्यात्वा ब्रह्मरुपां तन्मन्त्रं दशधा जपेत् ।।

**अर्थ :** जीब भायर काडिल्ल्या, महाघोर, रगताचें तोंड, रगताचे दोळे, रगताळ वर्ण, आठभुजां, रगताळ फुलांनी विभुशीत, रगताच्या फुलांची माळ आनी रगताचें वस्त्र धारण करपी तांबड्या अलंकारांनी सुशोभीत, महामोक्षदायी, नित्य, अश्टसिद्धी दिवपी आनी ब्रह्मरूप अशा रकाराचें ध्यान करून मंत्राचो धा खेपे जप करचो.

मूर्धा हें हाचें उच्चारणस्थान.

- कों. वि. सं. मं.

**रक्तचंदन :** (पळेयात चंदन).

**रक्तलोकेश्वर :** बौद्धांचो एक देव. ताचो रंग तांबडो आशिल्ल्या कारणान ताका रक्तलोकेश्वर म्हण्टात. ताचीं वस्त्रांय तांबडी आसतात. हो चार हातांचो आसून ताच्या हातांनी धोणू, बाण, पाश आनी अंकूश हीं आयुधां आसात. ताचो राबितो अशोक झाडासकयल आसता. ताचे उजवे वटेन तारो आनी दावे वटेन भृकुटी ह्यो देवता आसतात. रक्तलोकेश्वराच्यो मूर्ती सामक्यो तुरळक अशो आसात. तातुंतल्यो कांय नेपाळाक पळोवंक मेळटात.



साधनमाला ग्रंथांत ताच्या ध्यानाचें वर्णन मेळटा. रक्तवर्ण, द्विभुज, मस्तकाचेर जटांचो मुकूट तातूंत अमिताभाची प्रतिमा. तशेंच वेगवेगळ्या वस्त्रांनी आनी अलंकारांनी भुशीत आसून, ताच्या दाव्या हातांत रक्तकमळ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रखुमाई (रुक्मीण) :** एक देवता आनी विठ्ठलाची बायल. लोकमानसांतलो विठ्ठल म्हणजेच कृष्ण. रखुमाईक रुक्मिणी अशेंय म्हण्टात. पद्मपुराणाच्या आनी स्कंद पुराणाच्या उत्तर खंडांत तिची कथा दिल्ली आसा. ती अशी -



गोकुळांत आसतना कृष्ण आनी राधा हांची इश्टागत आशिल्ली. गोकूळ सोडून गेले उपरांत कृष्णान द्वारका नगरी वसयली आनी तो द्वारकेचो राजा जालो. तेन्ना राधा एक खेपे द्वारकेक गेली. श्रीकृष्णाच्या देवळांत वचून ती ताचे मांडयेर बसली. तेन्नाच श्रीकृष्णाची बायल रुक्मिणी थंय आयली. तिका पळोवन राधा ताचे मांडयेवयल्यान उठलिना वा कृष्णानूय तिका उठयलिना. ताका लागून रुक्मिणीक आपलो अपमान दिसलो आनी तिका तिडक आयली. परत आनीक कृष्णाचें तोंड पळोवप ना अशें थरोवन ती द्वारका सोडून गेली. जायतीं तिर्थां भोंवन ती दिंडीरवनांत आयली. तपश्चर्येक हें थळ तिका मानवलें आनी थंयच ती तपश्चर्या करपाक लागली.

रुक्मिणी सोडून गेली म्हणून कृष्णाक खूब दुख्ख जालें. गोकुळांतल्या गोपाळांक घेवन तो तिका सोदपाक गेलो. तिका सोदीत तो दिंडीरवनांत पावलो. ताचे वांगडा आशिल्ल्या गोपाळांक ताणें सांप्रतच्या गोपाळपुरांत दवरले आनी आपूण, रुक्मिणी तप करताली थंय गेलो. कृष्णान तिची खूब मनधरणी केली आनी तिका आपले वांगडा घरा येवपाचो आग्रो केलो. पूण रुक्मिणीची तिडक न्हिवलिना. तिणें ताका वळखूंक नाशिल्लेवरी केलें आनी खूब दुशणां दिलीं. तिचे उलोवणें आयकून कृष्ण निराश जालो आनी तिका पळयत उबो रावलो.

आजूय पंढरपूरच्या देवळांत रखुमाई विठ्ठला म्हऱ्यांत ना. विठोबाच्या देवळाचे फाटले वटेन तिचें देवूळ उदेंतेवटेन तोंड करून आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रगत :** मनीस धरून फाटीकणो आशिल्ल्या सगळ्या प्राण्यांचे कुडींत व्हांवपी द्रव जिनस. फाटीकणो नाशिल्ल्या कांय प्राण्यांचे कुडींतूय रगत व्हांवता. रगताचो रंग तांबडो आसता. मनशाचे कुडींत सुमार ५ लिटर रगत आसता. भुरग्यांचे कुडींत तांच्या वजनाच्या दर किलाक ६० - ७० c. c. इतलें रगत आसता.

रगताबगर मनीस जगपाक शकना. रगत चड, उणें जाल्यारूय प्राण्याच्या जिवाक भंय उपरासता. रगताचें कार्य अशें आसा - १) **पेशींक प्राणवायू आनी अन्न घटकांची पुरवण करप :** पेशींक आपलें काम करपाक लागता ती ऊर्जा पेशीपचनांतल्यान मेळटा. पेशीपचन (Cellular Metabolism) प्रक्रियेक प्राणवायू आनी अन्न घटक लागतात. वातावरणांतलो प्राणवायू रगत पुलमांवांतल्यान शोसून घेता आनी कूडभर पावयता. आंतकडयांत पचनक्रियेन विंगड जाल्ले अन्नघटक, रगत शोसून घेवन पेशींक दिता. पेशींक प्राणवायू आनी अन्नघटक दिवपाची प्रक्रिया केशिकेंत (Capillary) घडटा. केशिका ह्यो रगताच्यो अतिसूक्ष्म नळयो आसून तातूंत रगत संथ गतीन व्हांवता. केशिकांचें जाळें कूडभर पातळिल्लें आसून त्यो पेशींक समान अशो जोडिल्ल्यो आसतात. केशिका एक पेशी दाटायेच्यो आशिल्ल्यान तातुंतल्यान प्राणवायू आनी अन्न घटक, अवयवाचे पेशींत सोंपेपणान वतात.

**२) पेशिपचनांतल्यान निर्मिल्ल्या विखारी जिनसांचो विलो लावप :** पेशिपचनाचे रसायनीक प्रक्रियेंतल्यान विखारी जिन्नस निर्मतात. पुलमांव, यकृत आनी मूत्रपिंड हे अवयव विखारी जिनसांचो विलो करतात. पेशींत तयार जाल्लो कार्बनवायू रगत पुलमांवांत व्हरता. हांगा कार्बनवायू हुस्कारावाटेन वातावरणांत भायर वतात. रगत पेशींत तयार जाल्लीं विखारी रसायनां यकृतांत पावयतात. यकृत तांचेर प्रक्रिया करून युरिया निर्मिता. रगत युरियाक मूत्रपिंडांत पावयता. मूत्रपिंड रगतांतल्यान युरिया गाळून मुतावाटेन कुडींतल्यान भायर काडटा.

**३) रोगजंतूपसून कुडीची राखण करप :** रोगजंतूंचें कुडीचेर जावपी संक्रमण आडावपाचें काम रगतांतले प्रतिघटक आनी धव्यो रगतपेशी करतात. अ) रोगजंतुंचें संक्रमण जातकच कुडीची राखणप्रक्रिया रोखडीच सादूर जाता. रोगजंतूंची लागण जाल्ले सुवातेर केशिकांची वाड जाता. वांगडाच रगतांत धव्या रगतपेशींचो आंकडो वाडटा. केशिका वाडिल्ल्यान रोगजंतुंचे लागण सुवातेर रगताची पुरवण वाडटा आनी कणीदार धव्यो रगतपेशी केशिकांतल्यान भायर वचून रोगजंतूंक गिळटात आनी रसायनीक पचन क्रियेन तांकां मारून उडयतात. रोगजंतूंवांगडा त्यो आपुणूय मरतात. ब) वाटकुळयो धव्यो रगतपेशी (Cymphocytes) ह्यो रोगजंतूंक मारपी प्रतिघटक निर्मितात. प्रतिघटक ग्लोबुलीन ह्या प्रथिनांनी घडिल्ले आसतात. रोगजंतूंकडेन सांगड घालून हे प्रतिघटक तांकां मारतात.

क) रोखडयोच व्हडल्यो धव्यो भक्षक रगतपेशी (Macro phages) रोगजंतू, कणीदार रगतपेशींचे अवशेश गिळून रोगजंतूंची लागण सुवात नितळ करतात.

ड) वाटकुळया धव्या रगतपेशींतल्यो कांय रगतपेशी याद (डंक धरपी) दवरपी आसतात (Memory B Cells). ह्या पेशींची पिराय खूब वर्सां आसून त्यो रोगजंतुंची याद धरून रावतात. पयलीं लागण जाल्ल्या रोगजंतुंची परतून लागण जाल्यार ह्यो पेशी खूब बेगीन प्रतिघटक निर्मितात. देखून एकेच तरेचो रोग दुसरे फावट जावंक पावना.

एका मनशाचे कुडींत सुमार १० दशलक्ष 'ब' पेशी आसतात. दर 'ब' पेशी एका विशिश्ट रोगजंतुंचेर प्रतिघटक निर्मूंक शकतात. दर प्रतिघटक एका खाशेल्या रोगजंतुंचेरच लागू पडटा. हेरांचेर न्हय.

**४) आंतश्राव ग्रंथीन निर्मिल्ले हॉर्मोन्स तांचे कार्य सुवातेवर पावोवप :** मनशाचे कुडींत स्त्राव व्हरपाक नळयो नाशिल्ल्यो कांय ग्रंथी आसात. ह्यो ग्रंथी कांय प्रथिनां निर्मितात. ह्या प्रथिनांक हार्मोन्स अशें म्हण्टात. कुडीची वाड, सारवार हांचें संतुलन, हाडांची घडण सांबाळप, बायलांची मासिकपाळी तशेंच भ्रुणाची वाड सांबाळप, रगतदाब सांबाळप हीं म्हत्वाचीं कामां हार्मोन्स करता. पिटुटरी, थायरोयड, पारा थायरोयड, पान्क्रिया आड्रेनल ह्यो ग्रंथी होर्मोन्स निर्मितींत म्हाल ग्रंथी आसात. ह्या ग्रंथींतलो स्त्राव हार्मोन्स रगत शोशून घेता आनी तांचे कार्य सुवातेर पावयता.

**५) कुडीचें तापमान सांबाळप :** मनीस आनी हेर सस्तन प्राण्यांचें तापमान चड - उणें जायनासतना तितलेंच उरता. जिवार्णी, बेबो असल्या प्राण्यांचें तापमान सरभोंवतणच्या तापमाना प्रमाण चड - उणें जाता. सस्तन प्राण्यांचें तापमान चड - उणें जाल्यार तांचे कुडीचीं कार्यां सारकीं चलनात. तांचे कुडीचें तापमान ३७° से. इतलेंच आसूंक जाय. कुडीच्या अवयवांत हुनसाण चड उणी तयार जाता. काळीज, पुलमांव, स्नायु ह्या अवयवांत ती चड जाता तर हेर अवयवांत उणी. रगत कुडींत व्हांवत रावता आनी ही हुनसाण हिसपाभायर वाडूंक दिना. सगळे कुडींत एकूच दवरता.

**६) कुडींत आयनांचें प्रमाण आनी आम्लता हांचें संतुलन दवरप :** पेशींभितर आनी भायर सोडियम ह्या धातुच्या आयनांचें संतुलन सारकें आसूंक जाय. पोटॅशियम हें आयन पेशींत चड आसता तर सोडियम पेशींभायर आसता. पोटेशियम हें आयन उणें जाल्यार स्नायुंची शक्त उणी जाता. काळजाचें स्पंदनलेगीत बंद जावंक शकता.

सोडियम उणें जाल्यार फीट मारून येवंक शकता. चड आसल्यार कुडींत सूज येवंक शकता. पेशींत आयनां उणीं आसल्यार रगतांतलीं आयनां पेशींत वतात आनी रगतांत आयनां उणीं आसल्यार पेशींतलीं आयनां रगतांत येतात.

रगतांत आम्लता ७.४ इतली आसता. आम्लता वाडल्यार पेशीपचनाच्या कार्याक बादा येवंक शकता. रगतांत आम्लता वाडल्यार बायकार्बोनेट हें आयन वाडोवपाच्या कामाक रगत आदार करता.

**रगतांची घडण :** रगताचो ५५% वांटो द्रवान तर ४५ % वांटो घन जिनसांनी घडिल्लो आसता. रगतांतल्या द्रव वांट्याक रगतरस (Plasma) अशें म्हण्टात. रगतरसांत प्रथिनां, कार्बां, स्निगधां, प्रतिकार शक्तीचे घटक (Hormones) आनी उदक आसता. रगतरसांत रगत गोठपाचे घटकय (Blood Clotting Factors) आसतात. हे घटक रगतस्त्राव जाल्यार रगत गोठेवपाची प्रक्रिया सुरू करून रगतस्त्राव बंद करतात.

रगताच्या घन वांट्यांत पेशी आसतात. रगतपेशींचे तीन पंगड अशे आसात - **१) तांबड्यो रगतपेशी :** ह्यो रगतपेशी रगतांत चड प्रमाणांत आसून रगताचो तांबडो रंग ह्या पेशींक लागुनूच जाता. तांबड्यो रगतपेशी दर मिलिलीटराक सुमार ५ लाख आसतात. ह्या पेशींनी मर्दी केंद्रक (Nucleus) आसना. तांबड्या रगतपेशींचो ३५% वांटो हिमोग्लोबीन ह्या प्राणवायुकडेन सांगड घालपी प्रथिनांनी घडिल्लो आसता. ह्या रगतपेशींचेर आशिल्ल्या कांय प्रथिनांक लागून रगतगट थरता. तांबड्या रगतपेशींची पिराय सुमार १२० दीस आसता. त्यो मरतकच यकृतांतल्यो भक्षक पेशी (Macrophages) तांकां खातात आनी हिमोग्लोबिनांतलें लोखण वेगळें करून रगत निर्मितीक वापरतात.

**२) धव्यो रगतपेशी :** कुडीचे राखण प्रक्रियेक गरजेच्यो रगतपेशी हांचो आंकडो दर मिलिलीटराक ४००० - ११००० आसून तो चड मेळल्यार इंन्फेक्शनांच्या दुखण्याचें लक्षण मानतात. ह्या रगतपेशींक केंद्रक आसना. तांची पिराय खूब उणी आसता. पूण कांय धव्या रगतपेशींची पिराय चड (कांय वर्सां लेगीत) आसता.

धवे रगतपेशींचे तीन मुखेल पंगड आसून कुडीचे राखण वेवस्थेंतल्या दर पंगडाचें विशिश्ट काम आसता. **१) कणदार रगतपेशीः** ह्या रगतपेशींच्या पेशीद्रवांत (Cytosol) कण आसतात. रगत तपासणेंत जेन्नां रगताच्यो पेशी रसायनीक प्रक्रियेन रंगयतात तेन्ना ह्यो पेशी कशो रंगतात ताचेवयल्यान हांचे मुखेल अशे दोन पंगड जातात. ते अशे - **अ) तटस्थ रगतपेशी (Neutrophils) :** ह्यो रगतपेशी आम्ल आनी अल्क रंगांनी रंगयतात. तांची धव्या रगतपेशींत संख्या ५५ - ६५% आसून रोगजंतुंची लागण जातकच ती वाडटा. तांचो आकार आनी हालचाल अमीबा ह्या जंतूभाशेन आसून तांकां वेगवेगळे भाग आसतात. ह्या रगतपेशींचो केंद्रक लेगीत एकसंघ आसना. तो विभागिल्लो आसता. ह्यो पेशी केशिकांतल्यान भायर रोगजंतुचे लागण सुवातेर वतात आनी तांकां गिळटात आनी आपले पचन क्रियेन तांकां मारतात. रोगजंतू, धव्या रगतपेशींचे अवशेश, रगतरस हांच्या एकठावल्ल्या प्रवाक पूं म्हण्टात. जेन्ना एकाच जाग्यार पूं चड प्रमाणांत एकठावता तेन्नां दुखाणूं (Abscess) जाला अशें म्हण्टात.

**ब) आम्लीय कणदार रगतपेशी (EOSINOPHIL) :** इओजीन ह्या आम्लीय रंगान रंगपी ह्यो रगतपेशी, रगतांत उण्या प्रमाणांत (धव्या रगतपेशींच्या ० - ७%) आसतात. दमो, पिताम सारक्या ॲलर्जीच्या दुखण्यांनी तांचो आंकडो वाडटा. जेन्ना ह्यो रगतपेशी चड प्रमाणांत वाडटात तेन्ना पिडेस्ताक परत परत खोंकली येवप, खरस येवप असलीं लक्षणां दिसतात. ह्या दुखण्याक 'इओजिनोफिलिया' अशें म्हण्टात.

**२) वाटकुळयो रगतपेशी (LYMPHOCYTES) :** हांचो आंकडो धव्या रगतपेशींत ३० - ४०% आसता. ह्यो वाटकुळयो आसून तांचो पेशीद्रव नितळ आसता. राखणे वेवस्थेंतल्या ह्या म्हाल रगतपेशींचे दोन मुखेल गट अशे आसात - **ब रगतपेशी :** ह्यो पेशी प्रतिघटक निर्मितात. मनशाचे कुडींत सुमार १० दशलक्ष ब पेशी आसतात. दर ब पेशी एका विशिश्ट रोगजंतुंचेरच प्रतिघटक निर्मितात. जेन्ना एके तरेच्या प्रतिघटकाची चड प्रमाणांत गरज आसता तेन्ना तो घटक निर्मुपी ब पेशींचो आंकडो क्लोनिंग प्रक्रियेन (Cloning) खूब वाडटा. रोगजंतुंचो आंकडो व्हड आशिल्ल्यान ही सैमीक राखण तजवीज जावन आसा. कांय ब पेशी डंक धरपी आसतात. तांकां याद धरपी (Memory B Cell) ब पेशी म्हण्टात. दुसरे फावट एकाच रोगजंतुंची लागण जाल्यार ह्यो पेशी रोकडयोच प्रतिघटक निर्मितात. ह्या पेशींची पिराय खूब वर्सां आसता. **टी रगतपेशीः** सगळयाच रोगाजंतूंक प्रतिघटक मारपाक शकनात. अशा रोगजंतूंक टी रगतपेशी मारतात. कांय टी रगतपेशी प्रतिघटक तयार करपाक ब पेशींक आदार करतात तर कांय कणदार रगतपेशींक रोगजंतूंक मारपाक आदार करतात. हांकां मदती टी पेशी (Helper T Cells) म्हण्टात.

**३) बिंबाणू :** ह्यो रगतपेशी सामक्यो ल्हान आशिल्ल्याक तांकां हें नांव पडलां. ह्या रगतपेशींक केंद्रक आसना. ह्यो रगतपेशी रगत गोठेवपाचे प्रक्रियेंत मोलाचें काम करतात. रगतस्त्राव जातकच फायब्रिनोजेन हें प्रथिन घन जावन ताचे फायब्रिन तंतू जातात. फायब्रिनाच्या तंतूंत बिंबाणू आसतात. रगत गोठेवपाची प्रक्रिया ही खूब घुस्पागोंदळाची आसून हे प्रक्रियेक रगतांतले सुमार ११ घटक आदार करतात.

रगतांत बिंबाणू उणे जाल्यार केशिकांतल्यान रगतस्त्राव जाता. अशें जातकच कुडीचेर बारीक बारीक तांबडे थिपके दिसतात. ह्या दुखण्याक पुरपुरा (PURPURA) अशें म्हण्टात.

शस्त्रक्रिया करचे पयलीं सदांच रगत गोठेवपाची गती वैज तपासतात. ही गती उणी आसल्यार शस्त्रक्रिया करिनात. बिंबाणुची

रगत गोठेवपाची शक्त उणी करपाक काळजाच्या आताकासारकिल्ल्या दुखण्यांनी वखदां दितात.

**रगताची निर्मिती :** रगत हाडां मेरवांत (Bone Marrow) घडटा. भ्रूणाचे २ म्हयन्याचे पिरायेचेर रगत निर्मणी जाता आनी हें कार्य मनीस जितो आसामेरेन चालूच उरता. भ्रूणांत सुरवेक रगत यकृतांत निर्मता. भ्रूणाचीं हाडां मेरवाच्या तिसऱ्या म्हयन्याचेर घडपाक सुरू जातात. भ्रूणाची प्लीहा (Spleen) ही गांठ ३ म्हयन्यांचेर रगत निर्मितीचें काम करता. भ्रूण ९ म्हयन्याचो जायमेरेन यकृत रगत तयार करता. जल्मा उपरांत मात हाडां मेरवांच रगत तयार करतात. सुरवातेक चपट्या हाडांच्या मेरवांनी रगत घडटा. भुरगो ४ - ६ म्हयन्यांचो जातकच लांब हाडांचीं मेरवांय रगत घडोवपाचें काम करतात. कांय रोगांचे तपासणेंत हाडांचो मेरू तपासतात. जाण्ट्यांत छातयेच्या मदल्या हाडाचो मेरू तपासतात जाल्यार भुरग्यांत ओटीपोटाच्या (Peluis) हाडाचो मेरू तपासतात.

ल्युकेमिया (Leukemia) ह्या रगताच्या कॅन्सराच्या दुखण्यांत हाडांचो मेरू पिडेस्ताक दितात. हाका मेरू भिसरण (Bone Marrow Transfusion) अशें म्हण्टात.

**रगत पंगड (Blood Group) :** रगत जुळणी (Cross Matching) प्रक्रियेक गरजेचे रगत - गट - तांबडे रगतपेशींचे कातीचेर कांय प्रथिनां आसतात. ह्या प्रथिनांच्या आदाराचेर मनशाचो रगत पंगड थरता. देखून तांकां रगत पंगडाचे घटक अशें म्हण्टात. हे घटक अनुवंशीक आसतात. ह्या घटकांचे प्रतिघटक रगतरसांत आसतात. पूण एका रगत - पंगडाचे घटक आनी प्रतिघटक एकठांय (एकाच मनशांत) आसनात. घटक आनी प्रतिघटक हांचो संयोग जाल्यार तांबड्यो रगतपेशी इबाडून त्यो फुटूंकलेगीत शकतात. एका मनशाचें रगत दुसऱ्याक घालचे पयलीं दोगांचेय रगत पंगड जुळटा वा ना हें पळोवंक जाय.

रगत पंगडाचे घटक जरी ३०० वयर आसले तरीय अ, ब आनी आर एच (RH) प्रणाली रगत जुळोवणेंत चड म्हत्वाची मानतात.

**अ, ब, रगत पंगड प्रणाली** - हे प्रणालींत अ, ब, अब आनी ओ (A, B, AB & O) हे रगत पंगड आस्पावतात.

१) 'अ' रगतपंगडांत तांबडे रगतपेशींत 'अ' पंगडांचे घटक तर रगतरसांत 'ब' चे प्रतिघटक आसतात.

२) 'ब' रगतपंगडांत तांबडे रगतपेशींत 'ब' घटक तर रगतरसांत 'अ' प्रतिघटक आसतात.

३) 'अब' रगतपंगडांत तांबडे रगतपेशींत 'अ आनी ब' चे घटक तर रगतरसांत प्रतिघटक आसतात.

४) 'ओ' रगतपंगडांत तांबडे रगतपेशींचे घटक आसनात तर रगतरसांत अ आनी ब चे प्रतिघटक आसतात.

'अ' रगतपंगडाचें रगत 'अ' आनी 'ब' रगतपंगडाच्या लोकांक दिवंक जाता.

'ब' रगतपंगडाचें रगत ब आनी अब रगतपंगडाच्या लोकांक दिवंक जाता.

'ओ' रगत पंगडाच्या रगतांत घटक नाशिल्ल्यान तें खंयच्याय रगतपंगडाच्या लोकांक दिवंक जाता. देखून ह्या रगतपंगडाक संवसारीक दाता (Universal donor) म्हण्टात.

'अब' रगतपंगडाचें रगत फकत 'अब' पंगडाच्या लोकांकूच दिवंक जाता. पूण ह्या रगतपंगडांत प्रतिघटक नाशिल्ल्यान खंयच्याय पंगडाचें रगत ह्या पंगडाच्या लोकांक दिवंक जाता. देखून ह्या पंगडाक संवसारीक घेवपी (Universal Receiver) अशें म्हण्टात.

'ओ' रगतपंगडाचें रगत जरी सगळ्या रगतपंगडाच्या लोकांक दिवंक जाता आनी 'अब' रगतपंगडाच्या लोकांक सगळ्या रगतपंगडाचें रगत घेवंक जाता तरी वैज सरसकट अशें करिनात त्याच रगतपंगडाचें रगत त्याच रगतपंगडाच्या लोकांकूच दितात. रगत घालपाची प्रक्रिया सदांच रगत जुळोवणी (Cross Matching) करूनच जाता.

**'आर एच' (RH) रगतपंगड प्रणाली** - ८५% लोकांक 'आर एच' चे घटक तांबडे रगतपेशीचेर आसतात तर १५% टक्के लोकांत हे घटक आसनात. 'आर एच' चे घटक आशिल्ल्या लोकांक आर एचं पोझिटीव (RH + ve) म्हण्टात. जाल्यार हे घटक नाशिल्ल्या लोकांक आर एच नेगेटीव (RH - ve) म्हण्टात. 'आर एच' पंगडाच्या घटकांक प्रतिघटक आसनात.

**रगत तपासणी :** आधुनिक वैजकी शास्त्रांतली एक म्हत्वाची प्रक्रिया. रगत तपासणेंत १) रोगाचें निदान, २) रोगाची खरसाण, ३) वखदांचो रोगाचेर परिणाम, ४) रोग पळोवणी (Screening) मुखेलपणान करप जाता.

रगत तपासणेंत अ रगतपेशींची आनी ब रगतरसाची तपासणी जाता.

पेशीतपासणेंत मुखेलपणान ह्यो तपासण्यो जातात : १) हिमोग्लोबिनाचें प्रमाण आनी प्रकार २) पेशींची संख्या आनी ३)पेशींची घडण.

हिमोग्लोबीनाच्या प्रमाणावयल्यान पिडेस्ताक ॲनिमिया आसा वा ना हें कळटा. हिमोग्लोबीनाच्या प्रकाराचे तपासणेंत हिमोग्लोबीन घडणेच्या कांय अनुवंशीक रोगांचें निदान करपाक जाता. पेशींचे संख्येवयल्यान इंन्फेक्शनांच्या दुखण्याचें निदान, रगताच्या कॅन्सराचें निदान, ताची खरसाण आनी प्रकार कळटा.

रगतरस तपासणेंत ग्लुकोज (साखर), कोलेस्टेरोल, चरबी, लोखण, हार्मोन्स, प्रतिघटक हांची तपासणी जाता. तशेंच वैजकी कायद्याकय आदार करपाक हालीं रगत तपासणी करतात.

**रगत घालप (Blood transfusion) :** कांय दुखण्यांत दोतोर पिडेस्ताक रगत दितात. ॲनिमिया, रगताचो कॅन्सर, अपघातांत रगत वता तेन्ना, कांय शस्त्रक्रिया, लासप असल्या दुखण्यांनी रगत घालप गरजेचें आसता.

रगत घालचे पयलीं रगत पंगड सारको आसा वा ना हें पयलीं पारखितात. दात्याचो आनी पिडेस्ताचो रगतपंगड समा आसल्यार, रगत जुळटा वा ना (Cross Matching) हें पळयतात. रगत जुळोवणी प्रक्रियेक दात्याच्यो तांबड्यो रगतपेशी आनी पिडेस्ताचो रगतरस (Plasma) एकठांय हाडून रगताचेर कितें परिणाम जाता तें सूक्ष्मदर्शक यंत्रांतल्यान पळयतात. रगतपेशी गोठल्यार वा फुटल्यार रगत जुळना अशें म्हण्टात. अशें रगत पिडेस्ताक दिवंक जायना.

रगत जुळणी तपासणेभायर दात्याच्या रगताचेर कांय तपासणी करतात. ही तपासणी रगतांतल्यान पातळपी रोगाविशीं आसता. एड्स (AIDS), ब कामीण (Hepatitis B), सिफीलीस ह्या रोगांची तपासणी करून दात्याक हे रोग आसा वा ना हें पळोवपाचें कायद्यान सक्तीचें आसा.

रगतांत हिमोग्लोबीनय फाव त्या प्रमाणांत आसा वा ना हें तपासप गरजेचें आसता. हिमोग्लोबीन उणें आशिल्ल्या दात्याचें रगत पिडेस्ताक दिनात.

**रगताचे वैजकी उपेग :** वैजकी शास्त्रांत रगत वा ताच्या घटकांचो उपेग कांय दुखण्यांत जाता. ते म्हणजे - १) रगत घालप : कांय दुखण्यांनी पिडेस्ताक रगत घालचें पडटा. रगत घालचे पयलीं दातो - पिडेस्त हांची रगत पंगड तपासणी आनी रगत जुळोवणी करतात. तशेंच दात्याक ब कामिण, एड्स, सिफिलीस हे सारके रोग ना हाची खात्री करतात.

आपलें रगत आपल्याकूच घालप (Auto transfusion) : एकाद्रया दात्याची पुराय तपासणी करून लेगीत कांय रोग रगतावरवीं पिडेस्ताक जावंक शकतात. म्हणून कांय पिडांनी आपलें रगत आपल्याकूच घालपाची चाल आसा. चड करून थारावन केल्ले शस्त्रक्रियेंत अशें करूं येता. पिडेस्त दर सप्तकाक आपलें थोडें रगत काडून रगतपेढयेंत सांठयता. १-२ बाटल्यो रगत सांठयतकच ताचेच शस्त्रक्रियेंत हें रगत वापरतात.

२) पुराय रगत दिनासतना फकत रगताचे घटकूच वेगळे करून पिडेस्ताक दिवप.

अ) रगत गोठेवपाचे घटक नाशिल्ल्या पिडेस्तांक हे घटक दिवपाक जाता. रगत गोठेवपाचे घटक रगतरसांत आसतात. हे घटक नासप हो एक अनुवंशीक रोग जावन आसा. अशा पिडेस्तांक सादे जखमे उपरांत लेगीत रगत व्हांवपाक लागता. अशा पिडेस्तांक परत परत रगत गोठेवपाच्या घटकांची गरज आसता.

ब) प्रतिकार शक्त नाशिल्ल्या पिडेस्तांक रगतांतल्या प्रतिघटकांतलीं प्रथिनां वेगळीं करून दितात.

क) लासप, परत परत पातळ संडास जावप, मुत्रपिंडाच्या कांय दुखण्यांनी रगतरसांतलें आलबुमीन हें प्रथीन वेगळें करून दितात.

३) रगतापसून वासिनां : कांटेल, धोणकुटी, सोरोप चाबप हांचेर विशिश्ट प्रतिघटक दितात. हे घटक पिडेस्ताचो जीव वाटावपाक मोलाचे जावन आसात.

**रगतपेढी (Blood Bank) :** रगतपेढीचे वैजकी उपेग करपाखातीर रगत सांबाळपाचो जागो. रगत आनी ताचे घटक हांगाच वेगळे करतात. रगत बरें उरपाक ४-८° से. तपमानांत दवरपाक जाय. हे पेढयेंत वेगवेगळया रगत पंगडाच्या रगताचो सांठो आसता. सांठावन दवरिल्लें रगत पिडेस्तांक रोखडेंच मेळूं येता.

रगत पेढयेचे मुखेल वैज रगत दात्यांची वळेरी सांबाळटात. रगत सांठावपाक रगतदानाची कार्यावळ आंखतात आनी रगत पेढयेंत ना जाल्यार लेगीत पिडेस्ताक रगताची वेवस्था करतात.

दर व्हड हॉस्पीटलांत एक तरी रगताची पेढी आसताच.

- डॉ. अवधूत गो. बोरकार

## रघुनंदन : (इ.स. चो १६ वो शेंकडो).

बंगालांतल्या धर्मशास्त्रकारांचे परंपरेंतलो निमाणो धर्मशास्त्रकार. हो हरिहर भट्टाचार्याचो पूत आसून, वंद्यघाटीय ब्राह्मण आसलो. श्रीनाथाचार्य चूडामणी हो ताचो गुरू. रघुनंदन आनी महाप्रभू चैतन्य, हे वासुदेव सार्वभौमाचे शिश्य आशिल्ले.

रघुनंदनान धर्मशास्त्राच्या वेगवेगळया फांट्यांचेर स्मृतितत्त्व नांवाचो एक व्हडलो ग्रंथ बरयला. हो ग्रंथ अठ्ठावीस खंडांमदीं विभागिल्लो आसून, दर एका खंडाक तत्त्व अशें नांव आसा. ग्रंथकारान आपल्या ग्रंथांत तीनशांवयर ग्रंथ आनी ग्रंथकारांचीं नांवां दिल्लीं आसात. स्मृतितत्त्वांत मलिम्लुच, दाय, शुध्दी, तिथी, संस्कार, प्रायश्चित्त, लग्न, वेव्हार, दुर्गोत्सव, व्रतां, देवप्रतिश्ठा, मठप्रतिश्ठा, दिव्य, ज्योतीश, वास्तुयज्ञ, दिक्षा, सामश्राध्द, यजुःश्राध्द, शुद्रकृत्य, अशे कितलेशेच विशय आसात. हातुंतले वेव्हारतत्त्व आनी दायतत्त्व हे खंड स्वतंत्र छापल्यात.

स्मृतितत्त्व ह्या ग्रंथाभायर रघुनंदनान आनिकय ग्रंथ बरयल्यात. तातुंतलें दायभागावयलें ताचें भाश्य म्हत्वाचें आसून, हो भाश्यग्रंथ कलकत्ता हायकोर्टांत आनी सगळया बंगालभर प्रमाणभूत मानला. ते भायर तीर्थयात्राविधी, व्दादशयात्रा, त्रिपुष्करशांती, गयाश्राध्दपद्दती आनी रासयात्रापद्दती हे ताचे ग्रंथ आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**रघुनाथपंडित :** (१७ वो शेंकडो).

मराठींतलो पंडीत कवी. ताच्या चरित्राविशीं निश्चीत म्हायती मेळना. पूण ताचेविशीं पांच वेगवेगळीं मतां सांपडटात. (१) तो कारवारच्या चंदावर गांवचो सारस्वत ब्राह्मण आसूंक जाय. (२) तो तंजावरचो आनी मोरोपंताचो समकालीन आसूंक जाय. (३) तो मुळांत रायगड जिल्ह्यांतल्या चौलचा गांवचो आनी ताचें आडनांव मनोहर. तो फुडल्या काळांत कर्नाटकांत स्थायीक जाले उपरांत ताणें वैद्यविलास, कविकौस्तुभ, छंदोरत्नावलि, चिकित्सामंजरी आनी नाडीज्ञानविधी हीं साहित्याविशीं आनी वैजकांविशीं प्रकरणां संस्कृतांत बरयल्यांत. (४) तो शिवाजी महाराजाच्या अश्ट प्रधानांतलो एक आसून, 'पंडितराव' ह्या पदाचेर आसलो. (५) शिवकाळांतलो राजव्यवहारकोश बरोवपी रघुनाथ नारायण हणमंते होच रघुनाथपंडित आनी दमयंतीस्वयंवर हें ताणें बरयलां. ह्या सगळया मतांचो विचार करून शं. गो. तुळपुळे हाणें हो तंजावरचो कवी आनी तो राजकारणीय आसलो असो निश्कर्श काडला.

रघुनाथपंडितान रामदासवर्णन,गजेंद्रमोक्ष आनी दमयंतीस्वयंवर अशीं तिनच काव्यां बरयल्यांत. रामदासवर्णनांत वसंततिलका वृत्तांत फकत इकरा श्लोक आसात. गजेंद्रमोक्ष हें एक आख्यानक काव्य आसून, तातूंत ५८ श्लोक आनी तीन पदां आसात. रघुनाथपंडिताक मात नामना मेळ्ळी ती ताच्या दमयंतीस्वयंवर ह्या काव्याक लागून. संस्कृत कवी श्री हर्ष हाच्या नैषधीयचरिताच्या आदारान रघुनाथपंडितान आपलें हें काव्य बरयलें. पूण नैषधीयचरितांत वट्ट १,७५० श्लोकांमदीं सांगिल्लो कथाभाग रघुनाथपंडितान फकत २५४ श्लोकांनी मांडला. ह्या काव्यांतल्यान रघुनाथ पंडिताचे संपन्न अभिरुचीचो आनी अभिजात रसिकतेचो प्रत्यय येता. सोबीत आनी मार्मिक व्यक्तिचित्रण हें ह्या काव्याचें तोखणाय करपासारकें खाशेलपण.

- कों. वि. सं. मं.

**रघुनाथराव पेशवे :** (जल्म : १ ऑगस्ट १७३४ माहुली, सातारा; मरण : ११ डिसेंबर १७८३ कचेश्वर, कोपरगांव).

उत्तर पेशवाईंत थोडोच काळ (१७७३) सत्तेर आशिल्लो एक पेशवो. पयलो बाजीराव आनी काशीबाई हांचो दुसरो पूत. ताका राघो भरारी, राघोबा, दादासाहेब ह्या नांवांनीय वळखतात. भुरगेपणांत तो छत्रपती शाहूकडेन आशिल्लो.



१७५३ सावन तो स्वतंत्रपणान घुरयो घालूंक लागलो. ताची पयली घुरी १७५३ ते १७५५ मेरेन चलली. हे घुरयेंत ताणें राजस्थानांतल्यान खंडणी वसूल करपाचो यत्न केलो. ताणें दुसरी घुरी दिल्लीचेर घाली. थंय तो दिल्लीचे उत्तरेकडले प्रदेश ताब्यांत घेत घेत अटक मेरेन पावलो. थंयच्यान तो १७५८ त पुण्यांत परत आयलो. १७६० त भाऊसाहेब पानिपतांत घुसपल्ल्यान ताका आदार दिवपाखातीर बाळाजी बाजीराव राघोबाक घेवन उत्तरेक गेलो. तेन्ना बाजीरावान ताका निजामाक आदाराक हाडपाखातीर दक्षिणेक धाडलो. व्हडलो माधवराव गादयेर आयले उपरांत (१७६१) राघोबान पेशवेपद हातासपाचो यत्न केलो. पूण ताका तातूंत यश मेळ्ळेंना. माधवरावान ताका नदर कैदेंत दवरिल्लो. माधवरावाक मरण येतकच पेशवे पद मेळोवपाक ताणें जायते यत्न केले. नारायणरावाचो खून करपांत ताचो हात आशिल्लो. निमाणे कांय म्हयने ताका पेशवे पद मेळ्ळें (१७७३). पूण बारभाईच्या कारस्थानाक लागून ताचें कांय एक चलनासतना निमाणें ताका बारभाईक शरण वचचें पडलें. पुरंदराचे कबलाती उपरांत (१७७६) उरिल्ली जीण ताणें कोपरगांव, आनंदवल्ली आनी इंग्लिशांच्या आलाशिऱ्यारवाल सुरत, मुंबय, भावनगर, ह्या ठिकाणांचेर घालयली. कचेश्वराक (कोपरगांवालागीं) ताका मरण आयलें.

रघुनाथराव वट्ट तीन खेपे लग्न जालो. ताच्या बायलांचीं नांवां जानकी बाई (१७४२), आनंदीबाई (१७५५) आनी मथुराबाई. आनंदीबाई पसून ताका भास्कर, बाजीराव आनी चिमणाजी अशे तीन पूत जाले.

रघुनाथराव हो जरी खास कर्तबगारी नासलो; तरी म्हत्वाकांक्षी आशिल्ल्याकारणान ताचें पेशवाईंत कोणाकडेनूच पटलें ना. ते भायर नारायणरावाच्या खुनांत ताचो हात आशिल्ल्यान मराठी इतिहासांत ताका 'खल पुरूष' हें नांव ताच्या वादग्रस्त व्यक्तिमत्वाखातीर प्राप्त जालां.

- कों. वि. सं. मं.

**रघुवंश :** एक महाकाव्य. महाकवी कालिदास हाचो कर्तो. ह्या काव्याच्या उपलब्ध प्रतींनी १९ सर्ग आसून, ताची श्लोकसंख्या १५६९ इतली आसा. हातूंत दिलीपापसून अग्निवर्णामेरेन अठ्ठावीस राजांच्यो कथा आसात. ह्या सगळया राजांभितर रघू हो खूब दानशूर आनी प्रजेचें हीत पळोवपी असो राजा जावन गेलो. तेखातीर ह्या महाकाव्याक कालिदासान रघुवंश अशें नांव दिलें.

हें महाकाव्य सगळया महाकाव्यवाङ्मयांत पयल्या पावंड्याचें आसा. तें सादें, सरळ आनी प्रासादिक भाशेंत बरयल्लें आशिल्ल्यान सगळया थरांवेल्यांक तें खूब प्रिय जालें.

रघुवंश म्हळ्यार श्रुतिस्मृतिपुराणोक्त आर्यधर्माचो काव्यमय आविश्कार. मनशाक आशिल्लीं तीन रिणां, ताचे सोळा संस्कार, चार पुरुशार्थ, वर्णाश्रमवेवस्था, श्रौत याग, तप, व्रत, त्याग आनी भोग ह्यो

सगळयो गजाली, कवीन काव्यांतल्या खूबशा राजांच्या आचरणांतल्यान अभिव्यक्त केल्यात.

सूर्यप्रभव वंशाचो काव्येतिहास सांगपी कालिदासाच्या ह्या महाकाव्याची कथा मांडल्या ती अशी - इक्ष्वाकुवंशांत उत्पन्न जाल्लो राजा दिलीप हाणें वसिष्ठाक आपल्या निपुत्रीकपणाचें कारण विचारलें. तेन्ना स्वर्गांतली कामधेनू सुरभी हिचो अपमान केल्लेखातीर दिलीप राजाक भुरगें जावंक ना. तशेंच कामधेनूचे खयंचेय संततीची सेवा केल्यार हो शाप ना जावन ताका पूत जावं येता अशें वसिष्ठान सांगतकच दिलीप आनी ताची बायल सुदक्षिणा हांणी कामधेनूची धूव नंदिनी हिची सेवा केली आनी उपरांत तांकां पुत्रप्राप्ती जाली (सर्ग १,२); दिलीपाचो पूत रघूचें भुरगेपण, ताचो राज्याभिशेक, दिग्विजय आनी सर्वमेध (सर्ग ३ ते सर्ग ५); रघूचो पूत अज आनी भोजाची धूव इंदुमती हांचें स्वयंवर, रघूचो पूत दशरथाचो जल्म, आकाशयात्रेंत नारदाचे विणेवयली पुश्पमाळ इंदुमतीच्या काळजाचेर पडिल्ल्यान इंदुमतीचें मरण, तेखातीर अजाचो आकांत आनी आत्महत्त्या (सर्ग ५ ते सर्ग ८); श्रावणाचे हत्त्येक लागून दशरथाक शाप (सर्ग ९); रामायणाची कथा (सर्ग १०-१५); कुशाक राज्यलक्ष्मीचें सपनांत दर्शन, अयोध्येची पुनःस्थापना आनी कुशाचो राज्यकारभार (सर्ग १६); कुशाचे वंशज आनी फुडल्या २१ राजांची राजवट, म्हळयार कुशाचो पूत अतिथीचो राज्याभिशेक, ताचो पूत निषध उपरांत नल, नभस, पुंडरीक, क्षेमधन्वा, देवानीक, अहीनगू, पारियात्र, शिल, उन्नाभ, वज्रनाभ, शंखण, व्युषिताश्व, विश्वसह, हिरण्यनाभ, कौशल्य, ब्रहिष्ठ, पुत्र, पुष्य आनी ध्रुवसंधी अशी वंशावळ चलत आयली. ध्रुवसंधी शिकार करतना मेलो.

उपरांत मंत्रिमंडळान ताचो पूत सुदर्शन हाचो राज्याभिशेक केलो. सुदर्शनाच्या पुतांभितर अग्निवर्णाचो राज्याभिशेक जालो. अग्निवर्णाच्या मरणावेळार ताची एक राणी गुरवार आशिल्ली. तिकाच मंत्र्यांनी गादयेर बसयली आनी सगळे जाण आपलो नवो राजा केन्ना जल्माक येतलो हाची वाट पळयत रावले (सर्ग १९). अशेतरेन रघुवंशाच्या १९ व्या सर्गाची अखेर अकस्मात आनी शोकांतिकेन जाली.

रघुवंशाचेर ३३ टिका जाल्यात. हाचेवयल्यान ह्या काव्याची विद्वन्मान्यता कळटा. म.म. मिराशी हाणें आपल्या कालिदास ह्या ग्रंथाच्या रघुवंश ह्या प्रकरणाचो समारोप केला तो असो - कवीची भास मोवाळ आनी प्रसादयुक्त आसून, उपमा, उत्प्रेक्षा, अर्थान्तरन्यास, ह्या अर्थालंकारांनी तें भाशेक नटयलां. कालिदासाचो शब्दालंकारांचेर खंयच चडसो भर दिसना. पूण अलंकारांचो वा वर्णनाचो अतिरेक टाळपाखातीर खूब जतनाय घेतल्या. सगळेकडे वाच्यार्थापरस व्यंग्यार्थाचेरच भर दिला आनी वृत्तांचो यथार्थ उपेग केला.

- कों. वि. सं. मं.

**रचनावाद :** (कन्स्ट्रक्टिव्हिझम). विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक रशियेंत सुरू जाल्लो एक अर्विल्लो कलासंप्रदाय. सैमीक सृश्टीच्या वा खंयच्याय सैमीक जैव घटकाच्या, आविश्काराची कल्पना पुराय तरेन भायरावन, फकत अमूर्तवादी रचणुकेचेंच ठाम समर्थन करपी भुमिका ह्या पंथान मांडली. विशुध्द, फकत आकारवादी कला आनी तातूंत एके तरेची नवी वास्तवताय निर्माण करपाची ह्या पंथाच्या कलावंताची आकांक्षा आशिल्ली. तांची सुरवेची निर्मणी वयलेवयर पळयतना यंत्राभशेन वा-माक्नांच्या उपकरणांकडेन नातें दाखोवपी आशिल्ली. धातू, सरयो, प्लास्टिक हारसो, पर्स्पेक्स (ॲक्रिलिक प्लास्टिक) हांचे सारकिल्या यंत्रउद्देगाकडेन संबंदीत साधनसामुग्रेचो, तशेंच कडपी जोडये सारक्या (वॅल्डिंग) यंत्रीक प्रक्रियांचो उपेग करून ह्या पंथाच्या शिल्पकारांनी आपली अमूर्त, भौमितिक आकाराचीं रचनाशिल्पां (कन्स्ट्रक्शन्स) घडयलीं. रचनावादांतलें वयलें वयलें यांत्रिकपण फुडाराक उणें उणें जायत गेलें आनी विशुध्द आकार निर्मणेचे दिकेन ताची जडण - घडण जायत गेली. व्लादिमीर टॅटलीन (१८८५-१९५३) हो ह्या संप्रदायाचो मुखेल प्रवर्तक. हो मुदलांत चित्रकार आशिल्लो. पूण फुडें तो शिल्पकलेवटेन घुंवलो. ताणें मॉस्कोंत १९१३ त रचनावादी पंथाची स्थापणूक केली. घनवादी आनी नवकाळवादी कलातत्त्वांचो ताचेर प्रभाव आशिल्लो. सुरवेक ताणें विंगड विंगड अमूर्त आकारांची अधांतरी हुमकळपी (हँगिंग) आनी उत्थीत रचनाशिल्पां घडयलीं. उपरांत तो वास्तू आनी स्थापत्यप्रकल्पांवटेन सरकलो. देखीक - 'थर्ड इंटरनॅशनल' प्रदर्शनांतलो यादस्तिकाचो प्रकल्प हो सुमार ३९६२४ मी. (१,३०० फूट) ऊंच आनी प्रति - वलयी (काउंटर रोटेटिंग) छेद आशिल्लो एक पालसो, नागमोडी खांबो आशिल्लो. कझ्यीम्यीर मल्येव्हिच (१८७८-१९३५) ह्या चित्रकाराचीं अमूर्त भौमितिक आकारांतलीं अधिघनवादी (सुप्रमॅटिस्ट) चित्रां रचनावादी पंथांतूच आस्पावतात. ह्या संप्रदायांतलीं सुरवेची मल्येव्हिच आनी टॅटलीन हांची निर्मणी वास्तुकलांचो आभास निर्मुपी आशिल्ली. ह्या पंथाच्या शिल्पकारांचीं रचनाशिल्पां आनी वास्तुकारांच्यो वास्तुरचना हातूंत बरेंच सारकेंपण दिश्टी पडटा. तातूंत फरक इतलोच, शिल्पकाराच्यो रचना प्रत्यक्ष वास्तूरुपांत साकार जावपाच्या म्हळयार वेव्हारीक उपयेवजणांच्या बंधनांत बांदिल्ल्यो नाशिल्ल्यान त्यो सोबीतकायेचे नदरेन चड विशुध्द रुपांत अवतरूंक शकतात. फुडें ॲटवान प्येव्हस्न्यर (१८८६-१९६२) आनी तागेलो भाव नायूम गाब हे चित्र - शिल्पकार तांच्या मॉस्कोंतल्या राबित्यांत (१९१७) ह्या पंथांत वांटेकार जाले. १९२० उपरांत राजकीय कारणांक लागून ह्या पंथाचो प्रभाव उणो जालो आनी ताचे दोन गट जाले. पयल्या गटांतले टॅटलिन, रोटचिंक आनी तांच्या अनुयायांनी कनिश्ठ आनी वेव्हारोपयोगी कलाप्रकारांकडे आपली नदर एकवटायली. तांणी उद्देगीक आकृतिबंध, फर्निचर प्रकार, वास्तुकला, चित्रपट, रंगमाची छापणावळकला, वण्टीपत्रां आदी प्रकारांनी निर्मिती केली. दुसरो गट

गाब आनी प्येव्हस्न्यर हाच्या फुडारपणारवाला स्थापन जालो. १९२० त रचनावादी पंथाच्या व्हडल्या प्रदर्शना वेळार तांणी आपलो 'वास्तववादी' जाहीरनामो उजवाडायलो. तातूंत पयलींच्या रचनावाद्यांचे कलेंतल्या वेव्हारीक उद्दिश्टांचेर तांणी टिका केली आनी विशुध्द कलेचोच पुरस्कार केलो. कलेंत फकत धनत्वाची (वॉल्युम) न्हय जाल्यार अवकाशांतले गतीची संकल्पना म्हत्वाची आशिल्याचें प्रतिपादन तांणी केलें. काळाचें ज्युस्त रूप कलेंत उकतें करपारवातीर, गतिशील घटकांचो अविश्कार कशे तरेन जावंचो हें दाखोवपारवातीर नायूम गाबान शुध्दगतिकी (कायनेटिक) शिल्पाची निर्मणी केली. गाब आनी प्येव्हस्न्यर हांणी १९२२ त रशिया सोडली. उपरांत तांच्या प्रभावाक लागून अस्तंत युरोपांत रचनावादाचो प्रवेश जालो. भाब, कंडयीनस्कई आनी मोहॉइनॉड्य हाचेकडल्यान बोहाउस ह्या जर्मनींतल्या कला शिक्षण संस्थेंत रचनावादी तत्त्वां प्रसृत जालीं आनी ताका लागून विसाव्या शेंकड्यांतल्या वास्तूकला आनी आकृतीबंध हांचेर ताचो व्हड प्रभाव पडलो. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांतच्या काळांत बऱ्याच शिल्पकारांनी उण्या अदीक प्रमाणांत रचनावाद आपणायलो. हे प्रणालींतलो सगळयांत प्रभावी अमेरिकन शिल्पकार म्हळयार अलॅक्झांडर कॉल्डर आनी रिचर्ड लिओपोल्द. कॉल्डराचीं अमूर्त थीरशिल्पां आनी चलशिल्पां (मोबायल्स) ह्या संदर्भांत उल्लेख करपासारकींच आसात. तशेंच, लिओपोल्दाचीं सूर्य आनी चंद्र हीं शिल्पां प्रभावी आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**रजस्वला** : रजोदर्शनाचे अवस्थेंत आशिल्ली बायल. बायलांक नियमीतपणान म्हयन्याचें आंगार जावपाचो सुरवेचो तीन दिसांचे काळ हो रजोदर्शनाचो काळ मानतात. धर्मशास्त्रान अशे बायलेक भश्ट मानिल्ली आसून अशे बायलेकडेन संपर्क आयल्यार न्हावचें पडटलें अशेंय सांगलां.

रजस्वलेक भश्ट मानपाची चाल सगळया समाजांनी दिसता. कांय समाजांनी रजस्वलेचे भश्टाचे चार दीस मानतात, जाल्यार आदिवासी समाजांत ते चडूय आसतात. किरीस्तांव धर्म सोडलो तर हेर भोवतेक धर्मांनी रजस्वलाचो काळ पाळटात.

रजस्वलेक भश्ट मानपाची चाल ही चड पुर्विल्ली न्हय. वस्त्रहरणाच्या वेळार द्रौपदी रजस्वला आसुनूय तिका सभेंत हाडिल्ली आनी सभेंत हाडचेआदीं ती वाड्यांत सगळेकडेन भोंवताली. हाचेवयल्यान महाभारतांत रजस्वलेक अश्पृश्य  माननाशिल्ले. उपरांतच्या काळांत मात रजस्वलेक भश्ट मानूंक लागले.

स्मृतीकारांनी रजस्वलेचे कांय नेम सांगल्यात ते अशे : रजोदर्शना उपरांत चवथ्या दिसा माथ्यार न्हातकच बायल भृतकर्माक (घरांतले वेव्हार) आनी पांचवें न्हाण घेतकच देवपितृकर्माक शुध्द जाता अशें शंखान सांगलां. रजोदर्शनाचे अवस्थेंत बायलेन न्हाण आनी वस्ती वर्ज्य करप, मौन धारण करप, रातचें फकत एक फावटीं मातयेच्या आयदनांत शीत जेवप, जमनीर न्हिदप आनी चवथ्या दिसा सुर्योदया उपरांत न्हावन घोवाचें तोंड पळोवप अशें व्यास स्मृतींत सांगलां.

रजस्वला बायलेविशीं जायत्यो कल्पना आनी विधीनिशेध सांगल्यात. हे अवस्थेंत आशिल्ले बायलेन घरांत एके वटेन बसप, कित्याकच हात लावप ना. घरांत देवपूजा वा जेवण चलता आसतना उलोवप ना, वेदमंत्र आयकप ना, सुर्याकडेन पळोवप ना, सकयल मान घालून बसप, एके रजस्वलेन दुसरे रजस्वलेक हात लावप ना, झाडापेडाक हात लावप ना, ल्हान भुरग्याचेर, गुरवार बायलेचेर आनी दुयेंत मनशाचेर आपली सावळी पडूंक दिवप ना. तशेंच ह्या काळांत संभोग वर्ज्य आसता.

आर्विल्ल्या काळांत देवधर्माचे बाबतींत सोडल्यार हेर बाबतींनी रजोदर्शनाचे नेम पाळिल्ले दिसनात. सदयाचे परिस्थितींत कुटुंबां विभक्त जाल्ल्यान आनी तीं शारांनी, फ्लॅटांनी रावंक लागिल्ल्यान, तशेंच बायल नोकरी धंद्याफाटल्यान आशिल्ल्यान आयच्या काळांत रजोदर्शनाचे नेम पाळप कठीण जालां.

- कों. वि. सं. मं.

**रझाक, अब्द-अल** : (जल्म : ६ नोव्हेंबर १४१३ हेरात, समरकंद - रशिया; मरण : १४ ऑगस्ट १४८२).

समरकंदामदल्या मध्ययुगांतलो फार्सी इतिहासकार. ताचें पुराय नांव कमालुद्दीन अब्द्- अल् रझाक. समरकंदी ह्या नांवान ताका चड वळखतात. ताचो जल्म मुसलमान धर्मोपदेशकाच्या घराण्यांत जालो. ताचो बापूय जलालुद्दीन इशाक हो सुलतान शाहारुखच्या दरबारांत काझी आनी इमाम आसलो.

रझाक अब्द - अल् हाणें मुसलमान परंपरेप्रमाण शिक्षण घेतलें. बापायवांगडा तो दरबारांत वतालो, तेन्ना ताका शाहारुख राजाकडल्यान इदूजाझ (खास मान्यताय) मेळिल्ली. बापायक मरण येतकच १४३७ तो व्हडल्या भावावांगडा दरबारांत वतालो. थंय ताणें अझुद्दीन ह्याच्या ग्रंथार एक चिकित्सक टिका अरबी भाशेंत बरयली आनी ती शाहारुखवाक अर्पण केली. तेन्ना सुलतानान ताची दरबारांत नेमणूक केली. दोन वर्सां उपरांत बादशान ताची हिंदुस्थानांतल्या विजयनगराच्या साम्राज्यांत राजदूत म्हणून नियुक्ती केली. रझाकान १३ जानेवारी १४४२ वर्सा आपले भोंवडेक सुरवात करून तो कालिकत, मंगळूर, बेलूरच्यान हंपीक पावलो. हांगा सुमार सात म्हयने तो हंपीक रावलो. या प्रवासांतले अणभव ताणें मत्ल - उस - सादैन ह्या ग्रंथांत बरोवन दवरल्यात. तातूंत ताणें दक्षिण हिंदुस्थानांतल्या शिल्प वास्तुकलेविशीं तोखणाय केल्या. तशेंच, कालीकतच्या झामुरींचें राज्य आनी विजयनगरचें साम्राज्य हेविशीं म्हायती बरयल्या.

समरकंदाक परतले उपरांत ताका राजदूत म्हणून इराणांतल्या गिलानांत धाडलो (१४४६). शाहरुखाच्या मरणा उपरांत मीर्झा अब्द अल - लतिफ, मीर्झा अब्द अल्लाह आनी मीर्झा अबुल कासिम बाबुर, ह्या शाहरुखच्या वारसांचे कारकिर्दींत ताणें, सद्र, नायब, खाशश ह्या उंचेल्या पदांचेर काम केलें. सुलतान - अबू सय्यद (जानेवारी १४६३-८२) हाणें ताची शेख (राज्यपाल) म्हणून नेमणूक केली. मत्‌ल - उस - सादैन ह्या ग्रंथांत (पुराय नांव मत्‌ल्ल - उस - सादैन मज्मा - उल् - बहरैन) ताणें सुलतान अब्बू सय्यिद बहादुरखानासावन मीर्झा सुलतान अबू सय्यिद गुर्‌गानच्या खुनामेरेनच्या त्या काळच्या घडणुकांचो (१३१७-१४७१) इतिहास निवेदन केला. सुरवातीच्या काळाखातीर हाफिझ - इ - आबरूच्या 'झुबलत अल् तवारीख' ह्या ग्रंथाचो उपयोग केला. ते भायर वेगवेगळ्या देशांतली भोंवडी आनी थंयची राजकीय परिस्थिती हांचोय नियाळ ताणें घेतलो. मदल्या युगांत इतिहासाचो एक पातयेवं येतलो असो साधनग्रंथ म्हणून ताच्या ग्रंथाक म्हत्व आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## रझिया सुलतान : (जल्म : ? ; मरण : १३ नोव्हेंबर १२४०, दिल्ली).

दिल्लीच्या तख्ताचेर राज्यकरपी तार्तर (इल्बारी) घराण्यांतली पयली राणी. तिचें चारित्र्य आनी कर्तृत्व हेविशीं इतिहासांत कितल्योशोच दंतकथा आनी कथा प्रचलीत आसात. रझियाविशींची म्हायती फिरिश्ता - खुसरौ ह्या त्या काळच्या लेखकांच्या ग्रंथांतल्यान मेळटा ती अशी : रझिया ही अल्तमश (कारः १२११-३६) हाची धूव. तिका ताणें भुरगेपणांतूच धर्मीक आनी लश्करी शिक्षण दिलें. बापायच्या राज्य कारभारांतूय ती वांटो घेताली. व्हडलो राजपूत नासिरुद्दीन मुहम्मद हाच्या अकस्मात जाल्ल्या मरणाउपरांत १२२९ अल्तमशान भावी वारस म्हणून रझियाची निवड केली. ग्वाल्हेर मोहिमेच्या वेळार १२३१-३२ शासनाची सगळी जबाबदारी रझियान घेतली. तेन्ना तुर्की सरदारांक राजपूत जिते आसताना एके बायलेचें वर्चस्व अपमानास्पद दिसूंक लागलें. अल्तमशच्या मरणा उपरांत रुक्नुद्दीन फीरूझशाह हाका सरदारांनी मे १२३६ वर्सा गादयेर बसयलो. तो दुर्व्यसनी आनी फोल्णां मारपी आशिल्ल्यान सगळी सत्ता ताची आवय शाह तुर्कान बेगम हिचेकडेन आसली. तेन्ना तिणें रझियासयत सगळ्या सवती भुरग्यांक नश्ट करपाचें कारस्थान रचलें. जेन्ना हें कारस्थान उकतें जालें, तेन्ना शम्सी सरदारांनी रझियाच्या आदारान रुक्नुद्दीनाआड बंड करून ७ नोव्हेंबर १२३६ दिसा रझियाक रझियतुधीन ह्या नांवान दिल्लीच्या तख्ताचेर बसयली. झुजा मळावयलें फुडारपण ती स्वता करताली. दर एका कामांत ती आपूण स्वता लक्ष घालताली. तिणें दरबारांतल्या मुखेल सरदारांक विश्वासांत घेवन हिंदूंवयलो जिझिया कर रद्द केलो. रस्त्यांची वेवस्था, इमारतींचीं बांदकामां आनी पियेवपाच्या उदकाची वेवस्था ह्या कामांनी तिणें म्हत्वाची सुदारणा केली. आपल्या प्रशासनांत शिस्त हाडून, आपल्या नांवाचीं नाणींय पाडलीं.

ती राज्यार आयली तेन्ना वझीर निजामुल्मुक मुहम्मद जुनैदी आनी बादाऊन मुलतान हांसी, लाहोर ह्या ठिकाणच्या राज्यपालान तिचेआड बंड केलें. पूण नुस्त्रतद्दीन तायसी, इझुद्दीन मुहम्मद सालारी, कबीरखान आयार हांच्या आदारान तिणें भेदनितीचो उपेग करून दुस्मानांक बुद्द शिकयली. ग्वाल्हेरचो किल्लो घेतलो, आनी रणथंभोरांतल्या मुसलमान सैनिकांक मुक्त केले. तुर्की सरदारांचें वर्चस्व उणें करपाच्या उद्देशान जमालुद्दीन याकूत नांवाच्या ॲबिसिनियन गुलामाक शाही तबेल्याचो अमीर उल उम्र (मुखेली) नेमून, ताका कितलेशेच अधिकार दिले आनी विश्वासांतल्या सेवकांक उंचेलीं पदां दिलीं.

पूण शम्सी सरदारांक एके बायलेचें फुडारपण अपमानास्पद दिसूंक लागिल्ल्यान कांय विश्वासू अमीर आनी लाहोरचो कबीरखान आयार हांणी बंडाचें निशाण उबारलें. तेन्ना भतिंडाचो मलिक आल्तुनियान हाणें तिच्या सम्राज्ञीपदाक आव्हान दिलें. तेन्ना रझियान तांकां मोट्या धाडसान तोंड दिलें. त्यावेळार तुर्की सरदारांनी जमालुद्दीन याकूताक जितो मारलो. ताच्या मरणान ती दुरवावली आनी तिची हार जावन तिका कादेयेंत घाली. तिच्या सवती भावाक दिल्लीचें सुलतानपद दिलें. आल्तुनियाकडेन एकचार करून ताचेकडेन ती लग्न जाली. उपरांत दोगांय गख्खर, जाट आनी भाड्याचें सैन्य घेवन दिल्लीक गेलीं. ह्या झुजांत जलालुद्दीन बल्वानान दिल्लीच्या कटेहर मार्गाचेर २४ ऑक्टोबर १२४० दिसा कैथलच्या झुजांत तिचेर हार घाली. तिचें थडें पोरने दिल्लींत बुलबुलखान नांवान प्रसिद्द आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## रडार : पयसुल्ले वस्तीचें निरीक्षण करपाक आदार करपी उपकरण.

ज्यो वस्तू पयसुल्ल्या अंतराचेर आशिल्ल्यान वा कुपां, धुकें, पावस, काळोख हांकां लागून सादया दोळयांक दिसूंक शकनात अशा वस्तुंची निश्चित सुवात, तांचें निरिक्षण स्थानकापसूनचें अंतर त्यो वस्तू चलंत आसल्यार तांची गती आनी गतीची दिका ज्या इलॅक्ट्रॉनीक यंत्रणेच्या आदारान मेजपाक येता ते यंत्रणेक 'रडार' अशें म्हण्टात. हें उतर Radio Detection And Ranging हे उतरावळींतलीं पयलीं अक्षरां घेवन तयार केलां.

रडारांत जे विद्युत् चुंबकी तरंग वापरतात तांचो वेग आनी ज्या उजवाडाच्या आदारान आमी वस्तू पळोवंक शकतात तांचो वेग

(३ x १०⁸ मी./से.) आसता. दोनूय तरांच्यो उर्जा रेशा सरळ रेशेंत **प्रवास** करतात. मात सादया दोळयांनी आमी वस्तुंचें वेगळेपण **वळखूंक** शकतात; तशें वेगळेपण वळखप रडार यंत्रणेक शक्य **जायना.**

रडाराचो उपेग मुखेलपणान मळबांत भोंवपी विमानां, थाव **नाशिल्ल्या** दर्यावयलीं तारवां संबंदींचो सोद घेवपाखातीर, तांच्यो सुवातो, तांचो वेग चुकनासतना निदान करपाखातीर जाता. दुसऱ्या म्हाझुजा काळांत दुस्मानाच्या विमानाचो, विमानविरोधी नाळींचो, झुजांत उपेगांत येवपी सामुग्री तयार करपी कारखान्यांचो, लडायेच्या तारवांचो आनी विमानतळांचो सोद घेवन तीं नश्ट करपाखातीर इश्ट राश्ट्रांच्या लडायेच्या तारवांक आनी बाँब मोखपी विमानांक राखण दिवप, तशेंच आपल्या प्रदेशाचेर घुरी घालपाखातीर येवपी दुस्मानाच्या विमानांची वा तारवांची पूर्वसुचना आपले राखणे यंत्रणेक दिवप हीं कामां रडार यंत्रणेन केल्लीं म्हणुनूच दुसरें म्हाझूज हें 'रडारझूज' म्हणून वळखतात.

शांततायेच्या काळांत बंदरां, विमानतळां आनी रस्त्यांवयलें येरादारीचें नियंत्रण, वादळां, पावसाळी कुपां, वारें हांचेमदल्या बदलांचो अदमास हांचेरखातीरय रडाराचो उपेग करतात.

**कार्यपद्दत :** रडारांतलो प्रेशक (तरंग निर्मुपी साधन) आनी आकाशक (मळबांत तरंग प्रसारीत करपी साधन) हांच्या आदारान विद्युत् चुंबकीय तरंगांचें प्रेशण करतात. हे तरंग ज्या लक्ष्याक लागून (तारूं, विमान, हिमढग, तळप, दोंगर आदी) आडायता त्या वेळार तातुंतले थोडे उर्जेचें प्रेशकाचे दिकेन परावर्तन जाता. ही परावर्तीत उर्जा आकाशकाच्या आदारान ग्रहण करून प्रेशण आनी ग्रहण हातुंतलो कालावधी आनी तरंगाचो वेग (३ x १०⁸ मी. / से.) हाचेवयल्यान लक्ष्याचें निरिक्षण सुवाती सावनचें अंतर निश्चीत करतात. १/२ वेग x कालावधी हें अंतर मेजपाचें कोश्टक आसा.



**आकाशकाचो आकृतिबंध**

रडाराच्यो दोन प्रणाली आसात - (१) स्पंद रडार प्रणाली आनी (२) डॉप्लर रडार प्रणाली.

**रडाराचें कार्यमान** - रडाराच्या आदारान ज्या चडांत चड अंतरावयल्या लक्ष्याचो वेध घेतात त्या चडांत चड अंतराक रडाराचें मर्यादा क्षेत्र, परास वा पल्लो अशें म्हण्टात. हो परास (१) ग्राहीचे उण्यांत उणे उर्जेचें, संकेताचें फावोशें विवर्धन करपाची तांक (२) प्रेशीत केल्ली चडांत चड उर्जा (३) आकाशकाचें आकारमान आनी (४) लक्ष्याचें आकारमान हांचेर आदारून आसता. परास दोट्टी करपाचो आसल्यार प्रेशीत उर्जा सोळा पटींनी आनी आकाशकाचें आकारमान चौपटीन करचें पडटा. प्रेशीत संकेताची कंप्रताय चौपट केल्यारय रडाराचो परास दोट्टी जावं येता.

उर्जा क्षीणन आनी कार्यक्षमतायेचेर परिणाम करपी हेर घटकः रडाराचो वास्तव परास हो सदांच सैध्दांतिक परासा परस उणो आसता. हाचीं बरींच कारणां आसात - (१) ज्या सरयांतल्यान वा यंत्रणेंतल्यान संकेत आकाशकामेरेन पावतात. तातुंतूच ५० % उर्जा उश्णतायेच्या रुपांत नश्ट जाता (२) रडार चालकाचे कार्यक्षमतायेरूय क्षीण संदेश वळखूं येतात काय ना हें आदारून उरता (३) रडार तरंगाचें अवकाशांतल्यान प्रसारण करतना जावपी शोशण, धर्तरेच्या फाटल्या वाठाराचेर जावपी परावर्तन, हवेंतलें घनतायेच्या आनी तापमानाच्या फरकान जावपी प्रणमन (एका माध्यमांतल्यान दुसऱ्या माध्यमांत वतना रडार तरंगाचे दिकेंत बदल जावप) आनी हेर बऱ्याचशा थीर आनी चल घटकांक लागून लक्ष्याच्या अचूक वेधांत आडखळी उपरासतात.

**रडार समीकरण :** रडाराचो व्हडलो परास (R) आनी रडार प्रणाली आनी लक्ष्य हे संबंदींचे प्रचल (खाशेले परिस्थितींत थीर रावपी राशी) हांचेमदलो संबंद फुडें दिल्ल्या समीकरणान मेळटा.

$$R = \left[\frac{W_t\, G\, A_e\, \sigma}{16\pi^2 W_{r(min)}}\right]^{1/4}$$

हातूंत $W_t$ = प्रेशीत शक्ती (वॉटांनी), G = आकाशकाचो शक्ती लाभांक, $A_e$ = आकाशकाचें परिणामकारक क्षेत्रफळ (चौ. मी. त), $\sigma$ = रडाराचो काटच्छेद, $W_{r(min)}$ ग्राहीकडल्यान सोदतल्यां प्रतिसंकेताचे शक्तीची उण्यांत उणी मर्यादा.

हातुंतले $\sigma$ ह्या प्रचलाबगर हेर सगळे प्रचल रडार अभिकल्पकाक (आराखडो तयार करपी तज्ञाक) कांय प्रमाणांत नियंत्रीत करपाक मेळटात. ह्या समीकरणावयल्यान अशें दिसता, जर दीर्घ परास जाय आसत जाल्यार, प्रेशीत तांक व्हड जाय, प्रारित उर्जा अशीर शलाकेंत केंद्रीत करूंक जाय, ग्रहण केल्ली प्रतिसंकेत उर्जा आकाशकाच्या व्हडल्या क्षेत्रफळान मेळोवंक जाय आनी ग्राही दुर्बळ संकेताक संवेदनाक्षम आसूंक जाय. प्रत्यक्षांत ह्या समीकरणान मेळपी रडाराच्या परास कार्यमानाची अचूकताय समाधानकारक नासता.

हाचें एक म्हत्वाचें कारण म्हळयार प्रेशक आनी ग्राही हांचे मदल्या इलॅक्ट्रॉनीक सामुग्रेंत तशेंच पुराय वट्ट प्रणालींत बोवाळ आनी हेर रुपान जावपी शक्तीव्यय हें आसा.हो शक्तीव्यय मतींत घेवपी अदीक अचूक आनी जटिल समीकरण मांडूंक येता.

**रडार वाहक कंप्रताय पटे :** रडार स्थानकाक आंतरराश्ट्रीय कराराप्रमाण संकेत प्रेशणाखातीर एक थरावीक कंप्रताय नेमून दिल्ली आसता, हे कंप्रतायेक रडार वाहक कंप्रताय म्हण्टात. प्रेक्षणाची तांक, क्षमताय, रडार स्थानकाचें मर्यादा तंत्र (परास) आनी विद्युत् चुंबकीय तरंगाचे कंप्रताये प्रमाण बदलपी खाशेलपण हांचेवयल्यान कंप्रताय कितली आसा हें थरयतात.

**रडार वाहक कंप्रताय पटे**

| पट्यांचें अभिधान | कंप्रताय मर्यादा |
|---|---|
| HF | ३ - ३० मॅह. (मॅगाहर्ट्झ) |
| VHF | ३० - ३०० मॅह. |
| UHF | ३०० - १,००० मॅह. |
| L | १,००० - २,००० मॅह. |
| S | २,००० - ४,००० मॅह. |
| C | ४,००० - ८,००० मॅह. |
| X | ८,००० - १२,००० मॅह. |
| Ku | १२ - १८ गिह. (गिगाहर्ट्झ) |
| K | १८ - २७ गिह. |
| Ka | २७ - ४० गिह. |
| mm | ४० - ३०० गिह. |

१ मेगॅहर्ट्झ = $१०^६$ हर्ट्झ

१ गिगाहर्ट्झ = $१०^९$ हर्ट्झ

**रडाराचे उदरगतीचो इतिहास :** मायकल फॅराडे (१७९१ - १८६१) हाणें केल्ले प्रयोग आनी जेम्स क्लार्क मॅक्सवॅल (१८३१-७९) हाणें गणितीय संशोधन करून मांडिल्ली उजवाडाची विद्युत्चुंबकीय उपपत्ती हाचेवयल्यान शास्त्रज्ञांक रेडिओ तरंगाच्या अस्तित्वाची कल्पना आयिल्ली. १८८६ त हाइन्रिख हर्ट्झ ह्या जर्मन शास्त्रज्ञान प्रेशकाच्या आदारान अशे विद्युत्चुंबकीय तरंग तयार केले आनी ते प्रकाश (उजवाड) तरंगाप्रमाणूच परावर्तकाक लागून परावर्तीत जातात, हेंय सिध्द केलें.

ह्या तरंगांचो उपेग तारवां, हिमनग, फातर हांचो सोद घेवपाखातीर जातलो काय किदें असो विचार सुरू जालो आनी १९२२ त गुल्येल्मो मार्कोनी हाणें न्यूयॉर्कांत रेडिओ तरंगाच्या आदारान तारवांचो सोद ह्या विशयाचेर एक निबंद वाचलो. ताचेवयल्यान अमेरिकेचे नाविक संशोधन प्रयोगशाळेंत प्रत्यक्ष प्रेशक आनी ग्राही हांच्या आदारान दर्यावयल्या तारवांचो वेध घेतलो.

१९२५ त स्पंद प्रेशण पयलीं अमेरिकेंतल्या वातावरणांतल्या विद्युत्भारीत थरांची उचाय मेजपाखातीर वापरलें. ताचे पयलीं १९२४ त ईवी ॲपलटन हाणें प्रेशीत आनी परावर्तीत तरंगाच्या आदारान आयनांबराच्या थरांचो सोद लायिल्लो आनी ताची उचाय मेजिल्ली.

इ.स. १९३० च्या अदमासाक ब्रिटन, फ्रांस, जर्मनी आनी अमेरिका ह्या सगळ्याच राश्ट्रांनी रडाराचेर संशोधन आनी उपकरणांत उदरगत चालू आशिल्ली. १९३२ त अमेरिकेचे नाविक प्रयोगशाळेंत अविरत तरंग प्रेशकाच्या आदारान ८० किमी. अंतरावयल्या विमानाचो वेध घेतलो.

विमानाची वा तारवाची स्थाननिश्चिती करपाखातीर स्पंद रडारूच उपेग पडटलें हें निश्चित जाल्ल्यान ताचेर अदीक संशोधन करूंक १९३६ त ११ किमी. अंतरावयल्या विमानाची सुवात थरोवप शक्य जालें.

जर्मनीन १९३० वर्सा तारवांचो वेध घेवपी रडार, १९३९ त विमानाचे येवपाची सुचोवणी दिवपी फ्रेआ नांवाचें रडार आनी १९४० त विमानाची अचूक स्थाननिश्चिती करपी आनी ६०० मॅह. कंप्रतायेचे तरंग निर्मुपी कर्टस्बर्ग नांवाचें रडार निर्माण केलें.

ब्रिटनांत १९३० -३८ च्या अदमासाक संशोधन जावन ६४ किमी. अंतरामेरेनच्या विमानांचो वेध घेवपाक लागले आनी जर्मनीचे वटेन आशिल्ले पुराय दर्यादेगेर रडार यंत्रणेचें जाळें उबारलें. १९४० त लडायेच्या विमानांत २०० मॅह. चेर संदेश प्रेशीत करपी रडार यंत्रणा बसयली. तेच प्रमाण अशाच रडाराच्या आदारान नियंत्रीत केल्ली विमानविरोधी नाळींची सरपळी उबी केली. ताचेउपरांत बर्मिंगहेम विद्यापिठांतल्या जे.टी. रँडल आनी ए. एच्. बूट हांणी सुक्षीम तरंगाचे निर्माणेखातीर वापरतले मॅग्नेट्रॉन हे इलॅक्ट्रॉन नळयेचो सोद लायलो आनी त्याच वेळार स्टॅनफर्ड विद्यापिठांतले आर. एच्. व्हेरिअन आनी एस. एफ. व्हेरिअन हांणी क्लायस्ट्रॉन हे इलॅक्ट्रॉन नळयेचो सोद लायलो. हाका लागून उचेले तांकीचें ३ गिह. चे सुक्षीम तरंग रडार तयार करप शक्य जालें. दुसऱ्या म्हाझुजांत रडाराचे वेधक्षमतायेंत, पल्ल्यांत आनी नियंत्रणांत बरीच उदरगत जाली.

इ.स. १९४५ उपरांत जाल्ली उदरगत दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत लश्कराचीं गुप्ततायेचीं बंधनां सदळ जालीं आनी रडाराचो संशोधनाखातीर उपेग करपाक लागले. १९४६ त चंद्राच्या फाटल्या भागावयल्यान परावर्तीत जाल्ली उर्जा रडाराच्या आदारान ग्रहण करून अवकाश विज्ञानांत रडाराचो उपेग जातलो हें सिध्द जालें. फुडें हेच तरेन शुक्रासरेन आनी सुर्यासरेन रडार संदेश धाडून थंयसावन परावर्तीत जाल्ली उर्जा ग्रहण करप शक्य जालें.

तारवांच्यो हालचाली सोंप्यो जावपाखातीर आनी

तांच्यो संभाव्य टक्करी टाळपाखातीर रडाराचो उपेग करतात. विमानांत बसयल्ल्या रडाराक लागून वैमानिकांक वादळाची, फुडल्या अरिश्टांची, कुपांनी रेवडायल्ल्या दोंगरांच्या तेमकांची तशेंच विमानतळार देंवतना आडेकडेच्या आडरवळींची पयलींच सुचोवणी मेळूंक लागली. लोखणाच्या शिरस्त्राणांत बसयिल्ल्या रडाराच्या आदारान नेटान वचपी वाहनाचो वेग मेजपाक लागले.

रशियेन १९४९ त अणुबाँबाचो स्फोट केले उपरांत आनी कोरियन झुजांत वापरिल्ल्या वेगाच्या विमानाक लागून अमेरिकेंत रडार संशोधनाक परत गती मेळ्ळी आनी विमानांत बसयल्ले संगणक नियंत्रीत रडार आनी नाळी हांकां लागून लक्ष्याचेर अचूक मारो करप शक्य जालें. हाचे उपरांत अमेरिकेच्यीं एकवटीत संस्थानां आनी कॅनडा हांणी बरेच रडार वेगवेगळ्या सुवातांचेर बसोवन तांणी टिपिल्ले संकेत संगणकाकडेन धाडपाक सुरवात केली. संगणकाकडेन पयलीं धाडिल्ले म्हायतीच्या आदारान ह्या संकेताची तपासणी जावन मळबांतल्या विमानांचे हालचालींचें नियंत्रण जावंक लागलें. तेचप्रमाण विमानविरोधी नाळींचेंय नियंत्रण अशा संगणकांकडल्यान जावंक लागलें. इतलेंच न्हय, तर भुंयेचेर सुवाती - सुवातींचेर बसयल्लीं क्षेपणास्त्रांय ह्या संगणकाच्या नियंत्रणाखाला आयलीं.




स्पंद रडार प्रणाली

जॅट विमानां आनी स्वनातीत (आवाजाच्या वेगापरस अदीक वेगान वचूंक शकपी) विमानां हांचे उदरगती वांगडाच अमेरिकेन आपले राखणेवेवस्थेंत धोक्याची पूर्वसुचोवणी दिवपी यंत्रणा, ॲटलांटिक वाठारांत पयसुल्ल्या धोक्याची पूर्वसुचोवणी दिवपाखातीर उबारिल्ल्या मनशान निर्मिल्ल्या रडारान भरिल्ले जुंवे, तशेंच उत्तर ध्रुवावयल्यान येवंक शकपी स्वनातीत विमानाचो वेध घेवपी रडारस्थानकां हांचो आस्पाव केल्लो आसा.

ज्या वेळार आंतरखंडीय प्रक्षेपणास्त्रां वापरपाचो धोको वाडलो, त्या वेळार इंग्लंड, आलास्का आनी ग्रीनलँड ह्या तीन सुवातींचेर मेळून व्हड रडार यंत्रणा उबारली. थूल (ग्रीनलँड) चे रडार यंत्रणेंत १० मी. व्यासाचे चार आकाशक आसून थंयचे प्रेशक लाखांनी वॉट उर्जा निर्मूंक शकतात. हें रडार ४,८०० किमी. अंतरावयल्या क्षेपणास्त्राचो वेध घेवन संगणकाच्या आदारान ताचो रस्तो, ताणें थारयिल्लें लक्ष्य आनी त्या लक्ष्यामेरेन पावपाक ताका लागपी वेळ हांची अचूक म्हायती दिवंक शकता. क्षेपणास्त्राचो वेग मिनटाक ३२० किमी. च्या लागसार आसून राखणेयंत्रणेक १५ मिनटां पयलीं क्षेपणास्त्राच्या धोक्याची पूर्वसुचोवणी मेळूंक शकता.

हाचेभायर ५ किमी. अंतरामेरेन पल्लो आशिल्ले, फाटीवयल्यान ओडून व्हरपाक मेळपी रणगाडे, मोटारी हांचो वेध घेवपी रडार १०मी. पल्लो आशिल्ले, शिरस्त्राणांत बसयल्ले, मनशांच्यो हालचाली टिपपी रडार, हे सगळे डॉप्लर तत्त्वाचेर आदारिल्ले प्रकार आनी हातूंत परावर्तीत ऊर्जेचें आवाजांत रुपांतर करूं येता.

रडाराची कार्यक्षमताय आनिकय वाडोवपाखातीर लक्ष्या कडेन एका वेळार एक स्पंद धाडचेबदला स्पंदमाळूच धाडटात. लक्ष्यान परावर्तीत केल्लें सगळ्या उर्जांचें संकलन करून ती ग्राहीक पुरयत जाल्यार प्रतीध्वनीचे खरायेंत बरीच वाड जाता. हे पद्दतीन रडाराचो पल्लो खूब पटींनी वाडटा.

आंतरखंडीय प्रक्षेपणास्त्रांचो वेध घेवपाखातीर एक नवे तरेची आकाशकमालिका तयार केल्या. हिच्या हजारांनी ल्हान आकाशकांची एक सरपळी तयार केल्ली आसता. दर एका आकाशकाक संकेत इलॅक्ट्रॉनिक पद्दतीन नियंत्रीत केल्लो आसता. ताका लागून सगळे आकाशक थीर आसुनूय आकाशक चोम्यांनी प्रेशीत केल्ली संकेत शलाकाची दिका जाय ते वटेन बदलपाक मेळटा. हे आकाशक रचणुकेक कलाबध्द चोमो वा इलॅक्ट्रॉनीक वलनक्षमचोमो अशें म्हण्टात. हे तरेचें रडार अमेरिकेंतल्या केप कॉडा वयल्या ओटिस लश्करी विमानतळार बसयल्लें आसून ताची संरचणूक अशी केल्या, ह्या रडाराच्या आदारान पाणबुडयेंतल्यान सोडिल्ल्या प्रक्षेपणाची पूर्वसुचना राखणेयंत्रणेक दिवपाक मेळटली. तशेंच उपग्रिह्याचेंय मार्गनिरोधन करपाक जातलें. ह्या रडाराचो दर एक पृश्ठभाग ३०.६ मी. रुंदायेचो आसा. दर एका पृश्ठभागार १,७९२ प्रेशक बसयिल्ले आसतात. हातुंतले जोड आकाशकावयले कोन १२०° आसून दर एक आकाशक १२०° दिगंशाचें क्रमवीक्षण करता. ताका लागून रडाराच्या टप्प्यांत २४०° कोनीय मर्यादेंतलो सगळो वाठार येता. ह्या वाठारांतले सगळे परावर्तीत ऊर्जेचें संगणकाच्या आदारान संश्लेशण करून दोलनदर्शकाच्या पड्यार ह्या सगळ्या प्रदेशांचें आनी तातुंतल्या लक्ष्याचें निरिक्षण करूं येता. इलॅक्ट्रॉनीक यत्रणेंतल्यान कांय दशलक्षांश सेकंदांनी एका लक्ष्याकडल्यान दुसऱ्या लक्ष्याकडेन तरंग घुंवडावंक येता. ५,५०० किमी. अंतरावयले फकत

१० चौ. मी. क्षेत्रफळ आशिल्ली वस्तू ह्या रडाराच्या आदारान अचूकपणान टिपूं येता. उजवाड लिखणीच्या (लिखणीच्या आकाराच्या आवरणांत बसयिल्लें आनी प्लास्टिकाच्या उजवाडाची नळी वा तंतू जोडिल्ले ल्हान उजवाड बिंदू गटाचे प्रकाश विद्युत्) आदारान जाय त्या लक्ष्याची म्हायती पड्ड्यार हाडटात आनी ते प्रमाण पयलींचे नोंदींत बदल करूं येता. रडार सामग्रींत (१) अविरत तरंग रडार, (२) स्पंद डॉप्लर रडार, (३) कलामेलित स्पंद डॉप्लर रडार आनी (४) स्पंद संकोचक रडार दिसतात.

प्रेशकाचे (१) मॅग्नेट्रॉन, (२) क्लायस्ट्रॉन आनी (३) प्रगामी तरंगनलिका हे मुखेल घटक.

**ग्राही :** रडार यंत्रणेंत दोन तरांचे ग्राही वापरतात. जर अंतर चड व्हड नासत आनी प्रतिध्वनी फावोशे शक्तीवंत आसत जाल्यार हक् ग्राही वापरतात. हेर सगळया वेळार परासंकरण ग्राही वापरतात (रेडिओ ग्राही). हे तरेचे ग्राहीची संवेदनक्षमताय भायलो आवाज, गोंदळ आनी संकेत हांची तुळात्मक खराय हांचेवयल्यान थरोवपाक येता.

**आकाशक :** आकाशक हो मेकळें मळब आनी रडार संच हांकां जोडपी दुवो. प्रेशणाच्या वेळार आकाशक प्रेशकांक जोडटात आनी ग्रहणाच्या वेळार तो ग्राहीक जोडटात. हें काम प्रेशण ग्रहण स्विच करता. कांय सुवार्तींचेर प्रेशणाखातीर आनी ग्रहणाखातीर स्वतंत्र आकाशक वापरतात.

**रडाराचे उपेग :** रडाराचो उपेग नागरी विमान येरादारेंत व्हड प्रमाणाचे जाता. तेभायर तारवांची येरादारी, रस्त्यावयल्या वाहनांच्या वेगांचें मापन, तशेंच हवामानांतल्या संभाव्य बदलांचो अदमास हांचे खातिरय जाता. सवण्यांच्या वा किड्यांच्या (देखीक - टोळाच्या) चोम्यांचो अभ्यास करपाखातिरय रडाराचो उपेग करतात. रडाराच्या आदारान चंद्र, बुध, शुक्र, मंगळ कांय ल्हान गिरे, गुरूचे युरोपा, गॅनिमिड आनी कॅलिस्टो हे उपगिरे तशेंच सूर्य हाचोय अभ्यास केलो. रडाराचो उपेग दोन तरांनी करतात. (१) लक्ष्याचो सोद आनी (२) लक्ष्याच्या मार्गाचें निरीक्षण.

रडाराचो उपेग उच्चतामापक (उचाय मेजपाचें साधन) म्हणूनय करतात. विमानाचो पृथ्वीसापेक्षवर्ग डॉप्लर मार्गनिर्देशक रडाराच्या आदारान मेजतात. व्हड विमानतळ आनी बंदरांनी विमानांची वा तारवांची येरादारी सुरक्षीत दवरपाखातीर रडाराचो उपेग करतात. खंयच्याय खाशेल्या भूंयपृश्ठाचो नकासो काडपाखातीर रडाराचो उपेग करतात. विमानाच्या मार्गांतलीं संभाव्य वादळां टाळपाखातिरय रडार उपेगी पडटा. हालींतेंपार रस्त्यावयल्या वाहनांचे संख्येंत आनी तांच्या वेगांत सुमाराभायर वाड जाल्ल्यान तांचेमदले संभाव्य अपघात टाळपाखातिरय सामक्या ल्हान आकाराचें रडार तयार केलां.

**प्रतिसाद - प्रेशक :** प्रतिसाद प्रेशक विमानांत वा उपगिऱ्यांत बसयिल्ले आसतात. कसलोय खाशेलो संकेत आयलो जाल्यारूच त्या संकेताक जाप म्हणून संकेत धाडटात. हरशीं ते कांयच काम करिनात. हांचो उपेग दुसऱ्या म्हाझुजांत ब्रिटन आनी अमेरिकेन व्हड प्रमाणांत आपलीं इश्ट राश्ट्रांचीं विमानां वळखुपाखातीर केल्लो.

**रडार निश्फळीकरण येवजण :** दुसऱ्या म्हाझुजाचे सुरवाती सावन दुस्मान पक्षाच्या रडाराचें अचूकपण कशें उणें करपाचें वा तें पुराय तरेन निश्प्रभ कशें करपाचें हाचेर उपाय सोदपाक सुरवात जाली. हाका रडार प्रतिरोध यंत्रणा अशें नांव दिलें जाल्यार ताका जाप म्हणून रडार प्रति - प्रतिरोध यंत्रणा सोदून काडल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**रणगाडो :** आधुनिक काळांतलें एक अस्त्रक्षेपक झुजारी वाहन. नाळ आनी मशीनगन हांणी सुसज्ञ आशिल्लो चिलखती रणगाडो खंयच्याय प्रदेशांतल्यान, कसल्याय मार्गान वचूंक शकता अशा लंबगोलाकार तिख्याच्या पट्यांची रणगाड्यांच्या चाकांक वेवस्था केल्ली आसता.

रचणुकेचे नदरेन रणगाड्याचे तीन वांटे जातात : १)संधारण (सस्पॅन्शन), २) काया (हल) आनी ३) घुमट (टरॅट). रणगाड्याचें सस्पेन्शन बोगीव्हील्स, रोलर्स, स्प्रिंग ट्रॅक्स, स्प्रॉकेट आनी आयड्लर व्हील हांचेर आदारीत आसतात. रणगाड्याच्या कायाचे फुडले वटेन चड दाटायेचें जाल्यार हेर वटेन उणे दाटायेचें तिख्या कवच आसता. तांचेर रायफल, मशीनगनाच्या माऱ्याचो कांयच परिणाम जावपाक शकना. चिलखतभेदी व्हडल्यो गुळयो मात हें कवच फोडपाक शकतात.

रणगाड्यावयले नाळीचो वा मशीनगनाचो मारो करपाचें कार्य घुमट करता. ३६०° परिघांत खंयचेय दिशेक आनी जायत्या कोनान तें घुंवडावपाक मेळटा. ऊंच-सकयल जमनीवयल्यान वता आसतनाय नाळीचो नेम लक्ष्याचेर थीर दवरपाची यंत्रणा आसता. रणगाड्याचें इंजीन पॅट्रोल, डिझल वा हेर इंधनांचेर चलता.

रणगाड्यावयलीं स्वयंचलीत मशीनगनां वेगवेगळया क्षमतायांचीं आसपाक शकतात. तातूंत विमानविरोधी मशीनगनाचोय आस्पाव जाता. धुंवराच्यो नळकांडयो आनी हेर क्षेपणास्त्रां सोडपाची वेवस्थाय रणगाड्यांत आसता. चालक, गनर आनी कमांडर अशो उण्यांत उण्यो तीन व्यक्ती ह्या झुजारी वाहनाचेर आसतात. तांच्या कामाप्रमाण रणगाड्याचे तीन विभाग जातात - चालक ज्या जाग्यार बसून रणगाडो चलयता तो चालक विभाग (ड्रायव्हींग कंपार्टमेंट), रणगाडो पुरायपणान बंद दवरून उपरिदर्शक (एपिस्कोप) वा परिदर्शक (पेरिस्कोप) हांच्या उपेगान चालक तो चलयता. झुजारी विभागांत (सायटींग कंपार्टमँट) गनर आसता. हालींच स्वयंचलीत पद्दतीन तातूंत गुळे चडयतात. ह्या विभागांत खुबसो दारूगुळोय दवरिल्लो आसता. कमांडरान दिल्ले हुकूम अंमलांत हाडप हें गनराचें काम.

ह्याच विभागांत बिनतारी संदेशयंत्रणा, रेडिओ सारकिलीं संपर्क साधनां आसतात. तिसऱ्या विभागांत इंजीन आनी हेर यांत्रिक सामुग्री आसता.

रणगाड्याचे चड करून दोनच प्रकार आसात : मुखेल झुजारी रणगाडो (मेन बॅटल टँक) आनी हलको रणगाडो (लायट टँक). रणगाड्याआड रणगाडो अशा झुजांत, पांयदळाक मदत म्हणून आनी हारिल्ल्या दुस्मानाची फाट धरपाक झुजारी रणगाडे वापरतात. आपल्या फौजांची राखण करपाखातीर आनी दुस्मानाच्या आघाडेची म्हायती काडपाखातीर हलक्या रणगाड्यांचो वापर करतात. हवानळांचो (स्नॉर्केल) उपेग करून सवथळ प्रवाहांतल्यान वा न्हयेंतल्यान रणगाडे वचपाक शकतात.

पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत फ्रांसांत फ्लँडर्साच्या झुजांत जर्मन सैन्यान खंदक आनी कांटेरी सरयो हांचो उपेग करून इश्ट राश्ट्रांच्या सैन्याची फुडें येवपाची वाट आडायली. तांचेर मात करपाखातीर इंग्लंडान १९१६ त पयले फावट रणगाड्याचो वापर केलो. सॉम आनी कँब्रेच्या झुजांनीय (२० नोव्हेंबर १९१७) रणगाड्यांचो व्हड प्रमाणांत वापर जालो.



रणगाडो

१९०१ त फ्रेंच सैन्यान सादे मोटारगाडयेचेर कवचधारी टीप (टब) आनी मशीनगन दवरून ताचो रणगाड्याभाशेन वापर केलो आनी १९११ वर्सा ट्रॅकाचेर चलपी रणगाडे पयलीं तयार केले.

पयल्या आनी दुसऱ्या म्हाझुजामदल्या काळांत रणगाड्यांविशीं खूब व्हड प्रमाणांत संशोधन जालें. पयस पल्ल्याच्यो नाळी बसयल्ल्यान रणगाड्यांचें वजन वाडटा आनी वजन वाडिल्ल्यान तांची गती उणी जाता, देखून वजन आनी गती हांचो समतोल राखपाचे नदरेन रणगाड्याच्या दारूगुळ्यांत आनी स्फोटक द्रव्यांत बदल केले. दुस्मानाच्या रणगाडोविरोधी नाळींच्या माऱ्याक निश्फळ करपाचे नदरेन रणगाड्यावयलें तिरख्याचें आवरण पालशें बसयलें.

पयल्या म्हाझुजांत रणगाड्यांचो उपेग मुखेलपणान पांयदळाक पालव दिवपाखातीर केलो. दुसऱ्या म्हाझुजांत पयलेच फावट रणगाड्यांचो एकवटीतपणान उपेग केलो आनी ते खातीर स्वतंत्र रणगाडो विभाग (डिव्हिजन) निर्माण केलें.

१९४३ वर्सा जगांतलें सगळयांत व्हडलें रणगाड्यांचें झूज रशियेंत कूर्स्क ह्या जाग्यार जालें. त्या झुजांत सुमार ३,००० रणगाडे आशिल्ले. ताचे उपरांत १९४४ त अमेरिकेच्या जनरल जॉर्ज पॅटनच्या तिसऱ्या सैन्यान १६ रणगाडे विभाग (डिव्हिजन) वापरून जर्मन सैन्याचेर युरोपांत हार घाली. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत कोरियेच्या झुजांत (१९५०-५३) कोरियन सैन्यान रशियन रणगाड्यांचो आनी अमेरिकेन आपल्या रणगाड्यांचो उपेग केलो. इझ्रायली फौजांनीय (१९५६-५७) रणगाड्यांचो एकवटीतपणान उपेग करून अरब फौजांचेर हार घाली.

इ.स. १९१७ वर्साच्या फ्रांसांतल्या कँब्रेच्या झुजांत रणगाड्यांचो पयलेच खेपे व्हड प्रमाणाचेर उपेग केलो. ताचे उपरांत ब्रिटीश आनी अमेरिकन हलक्या रणगाड्यांचो उपेग भारतीय लश्करांत केलो. तातूंत व्हॅलेंटायन आनी स्ट्युअर्ट रणगाड्यांचो आस्पाव आशिल्लो. रणगाड्यांतल्या यंत्रीक आनी तंत्रीक सुदारणांउपरांत मध्यम प्रतीचे अमेरिकन शर्मन रणगाडे आनी पांयदळाच्या पालवाखातीर खास वापरतले ब्रिटीश चर्चिल रणगाडे वापरांत हाडले. दुसऱ्या म्हाझुजांत तिसावी इंडियन आर्मर्ड डिव्हिजन आनी हेर रणगाड्यांच्या रेजिमेंटांनी आफ्रिकेच्या आनी युरोपाचे भुंयेवयल्या झुजांनी वांटो घेतलो. १९६५ त पाकिस्तानावांगडा जाल्ल्या झुजांत भारतीय फौजांनी स्ट्युअर्ट रणगाडे ५,००० मी. उचायेवयल्या झोजी ह्या जाग्यार व्हरून यशस्वी रितीन तांचो उपेग केलो.

हिंदी फौजांत मेन बॅटल टँक (एम्. बी. टी.) म्हणून वैजयंता रणगाड्यांचो उपेग करताले. हो रणगाडो भारतांतच तयार जाता. तशेंच फ्रेंच (ए. एम. एक्स.) आनी रशियन रणगाडे भारतीय लश्करांत आसात.

जमनीवयल्या झुजांत रणगाड्यांचें म्हत्व वाडत आसा. फुडाराक झुजां जाल्यार तातूंतूय रणगाडे आनी हेर चिलखती वाहनांचो व्हड प्रमाणाचेर उपेग जावंक शकता. विमानांतल्यानय झुजामळार रणगाडे उतरावप आतां शक्य जालां. ह्या सामक्या हलक्या रणगाड्यांमदीं ब्रिटीश स्कॉर्पियन हो पयलोच ॲल्युमिनियमाचो रणगाडो. ताचें वजन ८.७ टन आसा. तशेंच फ्रांसाचो ए. एम्. एक्स. -१३ (१४.६ टन), रशियेचो पी. पी. - ७६ (१५.४ टन) आनी अमेरिकेचो शेरिडन एम् - ५५१ (१६.८ टन) हेय रणगाडे विमानांतल्यान झुजामळार उतरायतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रणजी** : (जल्म : १० सप्टेंबर १८७२ सरोदर, जामनगर; मरणः २ एप्रिल १९३३, जामनगर).

भारतांतलो नामनेचो क्रिकेट खेळगडो. ताचें पुराय नांव कुमार श्री रणजीतसिंहजी. राजकोटच्या राजकुमार कॉलेजींत पिरायेच्या



आठव्या वर्सा ताणें शिक्षणाक सुरवात केली. थंयच ताका क्रिकेटीची गोडी लागली. कॉलेजीचे प्राचार्य क्रिकेटतज्ञ चॅस्टर मॅक्नॉटन हाच्या मार्गदर्शनाचो लाब रणजीक जालो.

ते उपरांत तो फलंदार्जीत आनी फटकेबाजींत पारंगत जालो. क्रिकेटीवांगडा रणजी टॅनिस आनी बिलियर्ड्स ह्याय खेळांनी हुशार आशिल्लो. १८८८ वर्सा तो उचेल्या शिक्षणाखातीर इंग्लंडाक गेलो. 'सेंट फेथ' शाळेंत शिकता आसतना ते शाळेचो मुख्याध्यापक गुडचायल्ड हाचे नदरेंत रणजीचो खेळ भरलो. ताणें रणजीक सगळया वटांनी उत्तेजन दिलें आनी हेवर्ड, रिचर्ड्सन, वॉट्स, लॉकवूड अशा खांप्या गोलंदाजांची गोलंदाजी ताका खेळपाक लायली. पूण गोलंदाजाचो बॉल वेगान आंगार आयलो म्हण्टकच रणजी भियेतालो हें पळोवन ताच्या क्रिकेट शिक्षकान ताचो उजवो पांय खुंटयेक बांदून दवरलो आनी तशे स्थितींत ताका खेळूंक लायलो. तेन्ना वेगाचे गोलंदाजीक तोंड दिवंक तो तरबेज जालो. उपरांत व्हड त्रासांनी आपल्या खेळांत ताणें सुदारणा घडोवन हाडली.

१८८८ वर्सा इंग्लंड ऑस्ट्रेलियामदले कसोटी सामने पळयले उपरांत आपणेंय व्हडलो क्रिकेट खेळगडो जावचो अशी म्हत्वाकांक्षा ताच्या मनांत निर्माण जाली. १८९२ वर्सा ट्रिनिटी म्हाविद्यालयाच्या आनी १८९३ वर्सा केंब्रिज विद्यापिठाच्या संघांत ताची नेमणूक जाली. १८९४ वर्सा ताचो आस्पाव मेरिलीबोन क्रिकेट क्लबाच्या (एम. सी. सी.) संघांत जालो आनी १८९५ वर्सासावन रणजीचें क्रिकेटींतलें खरें कसब लोकांक दिसूंक लागलें. त्याच वर्सा ससॅक्स परगणा संघांत ताचो मानादीक आस्पाव जालो. भारतीय खेळगडे परगणा संघांत क्रिकेट खेळपाचे योग्यतायेचे नासतात. हो इंग्लिशांचो समज ताणें फट करून दाखयलो. पयलयाच सामन्यांत १८९५ वर्सा एम. सी. सी. आड शेंकडो मारून ताणें लॉर्डसाचें खेळामळ गाजयलें. तेन्नाच्यान ताचें नांव मान्यवर फलंदाजांचे वळेरेंत आस्पावलें. १८९६ वर्सा, मँचेस्टरच्या दुसऱ्या कसोटी सामन्यांत ताणें पयल्या डावांत ६२ आनी दुसऱ्या डावांत नाबाद १५४ धांवड्यो काडून, आपल्या पयल्याच कसोटी पदार्पणांत शेंकडो मारपाचो भौमान मेळयलो. १८९७ -९८ मजगतीं रणजी इंग्लंड संघावतीन ऑस्ट्रेलियाचे भोंवडेर गेलो. थंय सिडनीक जाल्ल्या पयल्या कसोटी सामन्यांत ताणें १७५ धांवड्यो काडल्यो. १९०२ मेरेन रणजी वट्ट १५ कसोटी सामने खेळ्ळो. तातुंतल्या २६ डावांनी ताणें वट्ट ९८९ धांवड्यो काडल्यो. हातूंत ताणें ४४.९५ धांवड्यांची सरासरी गांठली.

१९०४ मेरेन तो ससॅक्सावतीन खेळत रावलो. उपरांत ताच्या खेळांत खंड पडलो. १९०७ वर्सा तो नवानगरचो जामसाहेब जालो. ताका लागून १९०८, १९१२ आनी १९२० ह्या तीन हंगामांनी तो इंग्लंडांत पयल्या दर्जाचो सामनो खेळ्ळो. ताच्या पुराय क्रिकेट खेळाचो तपशील असो - वट्ट ५०० सामने; २४,६९२ धांवड्यो; २८५ सर्वोच्च (नाबाद); ७२ शेंकडे आनी ५६.३७ सरासरी तशेंच १८९९ त १९०० ह्या फाटोफाटच्या दोन हंगामांनी ताणें दर एकी तीन हजारां वयर धांवड्यो काडल्यो. १९०० वर्सा ११ शेंकडे काडले आनी ८७.५७ धांवड्यांची सरासरी सादली. एकाच म्हयन्यांत एक हजार धांवड्यो पुराय करपाचो विक्रम ताणें तीन फावटीं केलो.रणजी हो 'ग्लान्स' फटक्या खातीर फामाद आशिल्लो. तशेंच, ताचो 'हूक' फटकोय अप्रतिम आशिल्लो. ताचे हे फटके पळोवपाखातीर प्रेक्षकांची उपाट गर्दी जाताली. फुडें ताचो पुतणयो दुलीपसिंहजी आनी पतौडीचो व्हडलो नवाबय इंग्लंडावतीन खेळ्ळयात. भारताक कसोटी सामन्यांनी दर्जो मेळचे पयलींच रणजी कसोटींत खेळ्ळा. हें ताचे कारकिर्दीचें एक खाशेलपण.

भारतांत जल्मल्लो आनी इंग्लंडावतीन खेळपी तोच भारतांतलो पयलो खेळगडो. इंग्लीश खेळगड्यां परस सरस खेळगडे भारतांत निर्माण जावंक शकतात, हें ताणें सिध्द करून दाखयलें.ताचे यादीक भारतांतल्या राश्ट्रीय वस्तादपणाचे क्रिकेट सर्तीक रणजीचें नांव दिल्लें आसा. भारतांत रणजी करंड क्रिकेट सर्त १९३४ वर्सा सावन चालू आसा. देशाचे वट्ट पांच विभाग करून तातुंतल्या वेगवेगळया राज्यांच्या क्रिकेट संघांमदीं ह्यो सर्ती घेतात आनी निमाण्या जैतिवंत संघाक रणजी करंड दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**रणजीतसिंग** : (जल्म : इ.स. १७८० गुजराणवाला, पंजाब; मरण : इ.स. १८३९ लाहोर).

पंजाबांत खालसा संघाचें राज्य स्थापन करपी शीख वीर. खालसा संघाचे बारा विभाग मिसल ह्या नांवान वळखतात. तातुंतल्या सुकरचकिया नांवाच्या मिसलाचो सरदार महासिंग हाचो रणजीतसिंग हो पूत.



बंदासिंगाचो एक वांगडी बुधसिंग हाणें बंदासिंग मरतकच आपलें स्वतंत्र दल तयार केलें. तेंच हें सुकरचकिया. बुधसिंगाचो नातू चडतसिंग हाणें अहमदशाह अब्दालीच्या आक्रमणावेळार ह्या मिसलाची स्थापणूक केली. चडतसिंगाचो पूत महासिंग हो खूब हुशार आनी पराक्रमी आशिल्लो. थोड्याच काळाभितर ताणें आपल्या मिसलची शक्त आनी प्रतिश्ठा वाडयली. ताच्या मरणा वेळार ताचो पूत रणजीतसिंग फकत धा

वर्सांचो आशिल्लो.

ताणें सुरवेचें शिक्षण गुजरागवालाक घेतलें. तशेंच, भुरगेपणांतच ताका युध्दविद्येचें शिक्षण मेळिल्लें. पिरायेच्या धाव्या वर्सासावन तो झुजाक वतालो. ताका शिकारेचीय आवड आशिल्ली. भुरगेपणांत देवी आयिल्ल्यान ताचो एक दोळो गेल्लो. बापूय महासिंगाचो वजीर लखपतराय, आवय राजकौर आनी मुखार जावपी मांय कन्हैया मिसलची राणी सदाकौर हांचेवतीन रणजीतसिंग सुकरचकियाचो कारभार पळयतालो. पूण १७९९ वर्सा लखपतराय मरतकच, रणजीतसिंग स्वता कारभार पळोवंक लागलो आनी ते संघटनेचो मुखेल जालो. त्याच वर्सा ताणें लाहोर जिखलें. उपरांत १८०० वर्सा कांय सरदारांनी मेळून लाहोराचेर आक्रमण केलें. पूण तांकां जैत मेळ्ळेंना. रोखडेंच ताणें जम्मू, सियालकोट आनी दिलावरगढच्या राजांचेर घुरी घालून तांचेकडल्यान खंडणी वसूल केली. १८०१ वर्सा ताणें लाहोरांत दरबार भरोवन महाराज ही पदवी घेतली आनी अशे तरेन पंजाबांत खालसा राज्याची स्थापणूक केली.

इ.स. १८०८ मेरेन ताणें पंजाबांतलीं बरींचशीं ल्हान - व्हड राज्यां आपल्या शेकातळा हाडलीं. इ.स. १८०७ त ताणें अमृतसर जिखून घेतिल्लें. सतलज न्हंयेचे दक्षिणेकडलीं शीख राज्यां आपल्या खालसा राज्यांत आस्पावन घेवचीं असो ताचो हेतू आशिल्लो. पूण तेन्नाच ब्रिटिशांची सत्ता यमुनेमेरेन प्रस्थापीत जाल्ली आशिल्ल्यान तांकां रणजीत सिंगाची सत्ता सतलजचे दक्षिणेक पातळप योग्य दिसनाशिल्लें. तांकां रशिया आनी अफघाणिस्तानाचो भंय दिसतालो आनी नॅपोलियन घुरी घालीत म्हणूनय दुबाव मारतालो. देखून इ.स. १८०६ वर्सा तांणी रणजीतसिंगाकडेन इश्टागतीची कबलात केली.

सतलजाचे दक्षिणेकडल्या पंजाबांतल्या शीख राज्यांचेर आशिल्लें मराठ्यांचें प्रभुत्व इ.स. १८०६ वर्सा इंग्लिशांकडेन गेलें. तेन्ना कांय मिसलच्या मुखेल्यांनी रणजीतसिंगाकडेन आदार मागलो. म्हणून ताणें इ.स. १८०६ आनी १८०७ वर्सा सतलजाचे दक्षिणेवटेन घुरयो घालून लुधियाना घेतलें. पूण तेन्नाच पतियाळा, नाभा, कैथल ह्या मिसलांच्या सरदारांनी ब्रिटिशांकडेन आदार मागलो. तेन्ना ब्रिटीश सरकारान चार्ल्स मेटकाफ हाका रणजीतसिंगाकडेन वाटाघाटी करपाक धाडलो. ब्रिटीश सरकाराची ही अडचण पळोवन रणजीतसिंगान सतलजाचे दक्षिणेकडले चड प्रदेश घेवपाचें थरयलें आनी मालेरकोटला आनी थानेसर ह्या संस्थानांनी खंडणी वसूल करून घेवन पतियाळाच्या राजाकडेन इश्टागतीची कबलात केली. उपरांत ताणें सतलजाचे दक्षिणेकडल्या पंजाबाचेर आपलो अधिकार ब्रिटीश सरकारान मान्य करचो अशी मागणी केली. पूण ती मान्य जाली ना. उरफाटें नॅपोलियनाचे घुरयेचो भंय ना जाल्ल्यान ब्रिटिशांनी रणजीतसिंगाक शस्त्रबळान विरोध करपाचें थरोवन लुधियानाकडेन आपलें सैन्य धाडलें. ब्रिटिशांच्या सैन्याचें व्हड बळगें पळोवन १८०९ वर्सा रणजीतसिंगान तांचेकडेन कबलात केली. तेन्ना सतलजाचे दक्षिणेकडल्या ४५ परगण्यांचेर रणजीताची सत्ता आशिल्ली, ती ब्रिटिशांनी मान्य केली. पूण ताणें चड प्रदेशांचेर अतिक्रमण करचें न्हय आनी ब्रिटिशांनी सतलजाचे उत्तरेकडल्या प्रदेशांत वचचें न्हय अशें थरलें. उपरांत रणजीतसिंगान कांगड घेतलो. ताचे पयलीं तीन वर्सां गुरखा सैन्यान त्या वाठारांत लूटमार चलयल्ली. कांगडा घेतकच रणजीतसिंगान दोंगराळ भागांतल्या सरदारांकडेन इश्टागत केली आनी गुरख्यांचो मुखेली अमरसिंह थापा हाका पेंचांत हाडलो. तेन्ना ताणें रणजीताक एक लाख रुपया खंडणी दिली आनी फाटीं सरलो. ते उपरांत ताणें आपलें लक्ष अफघानिस्तानाकडेन घुंवडायलें. पयलीं ताणें सिंधूचे उदेंतेकडलीं मुसलमानी राज्यां जिखलीं. १८१२ वर्सा काबूलच्या दुराणी राज्याचो वझीर फत्तेखान अटक आनी काश्मीरच्या सुभेदारांचें पारिपत्य करपाखातीर भारताचेर चाल करून आयलो. ताणें रणजीतसिंगाचो आदार घेवन काश्मीराचेर घुरी घाली आनी तांच्या जोड सैन्यान काश्मीर जिखलें. पूण फत्तेखानान रणजीतसिंगाक काश्मीराचो खंयचोच भाग दिलो ना. फकत शहा सूजाक ताच्या ताब्यांत दिलो. तें पळोवन अटकेचो सुभो रणजीतसिंगाकडेन दिलो. तें कळटकच फत्तेखानान भावाक घेवन इ.स. १८१३ वर्सा अटकेचेर घुरी घाली. पूण रणजीतान तांकां हारयले. रणजीतसिंगान मुलतानाचेरय खूब घुरयो घाल्यो. पूण इ.स. १८१८ त मुलतान ताका मेळ्ळें. तेन्नाच फत्तेखानाचो खून जालो आनी अफघानीस्तानांत खूब गोंदळ जालो. ताचो फायदो रणजीतसिंगान घेतलो. ताणें सिंधू न्हंय हुंपून खैराबाद आनी पेशावर जिखलें. उपरांत ताणें काश्मीराचेर घुरी घालून इ.स. १८१९ वर्सा तो पुराय प्रदेश जिखलो. फुडल्या दोन वर्सांनी ताणें डेरा गाजीखान, डेरा इस्मायलखान, भक्कर, लेक मंकेश ह्यो सुवाती घेतल्यो. रणजीतसिंगान घेतिल्लें पेशावर अफगाण सैन्यान परत घेतलें. तेन्ना रणजीतसिंगान पेशावराचेर परतून घुरी घाली तेन्ना यार मुहंमद शरण आयलो आनी मुहंमदाकच पेशावराक आपलो मांडलीक म्हणून दवरलो. रणजीतसिंगाक सगळेकडेन जैत मेळ्ळें पूण ताणें ब्रिटीश सरकाराकडेन केल्ली इश्टागतीची कबलात कायम दवरली. बऱ्याचशा राजांनी ताचेकडेन ब्रिटिशांआड मदत मागली पूण ताणें दिलीना. पूण ब्रिटिशांनी आपली इमानदारी दवरलीना.

इ.स. १८२३ वर्सामेरेन रणजीतसिंगान पंजाबांतल्या चडशा सगळ्या मिसलांचें एक राज्य केलें आनी सिंधाकडेन नदर घुंवडायली. तेन्ना ब्रिटिशांनी ताका विरोध केलो.

फुडें इ.स. १८३१ वर्सा शहा सूजान काबूलाचेर घुरी घालपाखातीर रणजीतसिंगाचो आदार मागलो पूण कांय अटी घाल्यो. त्यो शहान मान्य केल्योनात. पूण इ.स. १८३३ वर्सा रणजीतसिंगान कसल्योच अटी घालिनासतना शहाकडेन कबलात केली. तेन्ना शहान रणजीतसिंगाची सिंधूचे अस्तंतेकडल्या प्रदेशाचेर सत्ता मान्य केली.

फुडें रणजीतसिंगान पेशावराचेर घुरी घालून तें जिखलें. थंयचो सुलतान मुहंमद काबूलाक पळून गेलो. उपरांत इश्ट मुहंमद हाणें शिरवांआड बंड पुकारलें. भोंवतणच्या प्रदेशांतले मुसलमान जातीचे लोक ताच्या आदाराक आयले. तेन्ना रणजीतसिंगान मुहंमदाचो भाव सुलतान मुहंमद हाका वश करून घेतलो. तो आपलें सैन्य घेवन शिरवांक मेळिल्ल्यान अफघानी सैन्याचो धीर उणो जालो. ताका लागून इश्ट मुहंमदान हार घेतली आनी रणजीतसिंगाक जैत मेळळें. हाका लागून ताका खूब प्रतिश्ठा मेळ्ळी आनी सिंधूचे अस्तंतेवटेन तची सत्ता पक्की जाली. उपरांत ताणें खैबर खिंडीच्या तोंडाकडेन जमरूडाक एक कोट बांदलो.

रोखडेंच ब्रिटीश सरकारान रणजीत सिंगाच्या आदारान शहा सूजाक काबूलाचें राज्य मेळोवन दिवपाचें उतर दिलें. पूण ब्रिटीश सैन्य काबूलाकडेन वता आसतनाच जून १८३९ त रणजीतसिंगाक मरण आयलें. ते उपरांत अंतर्गत यादवीक लागून पंजाबांत अराजक मातले आनी तो प्रदेश जिखून घेवप ब्रिटिशांक सोंपें जालें.

पंजाबाच्या लोकांनी रणजीतसिंगाक 'शेर - ए - पंजाब' ही पदवी दिल्ली. ताचो कारभार एकतंत्री आशिल्लो. सगळया अधिकाऱ्यांच्यो नेमणुको तो आपल्या मनाप्रमाण करतालो. ताची सत्ता नियंत्रीत नाशिल्ली. तो स्वताक खालसाचो सेवक मानतालो. ताच्या शिक्क्याचेर 'अकाल साह्य' म्हळयार देव सगळयांक मदत करूं अशीं अक्षरां आशिल्लीं. जेन्ना जैत मेळटालें तेन्ना रणजीतसिंग तो गुरू नानक आनी गुरू गोविंद सिंग हांचो आशिर्वाद अशें मानतालो. ताणें राज्यकारभाराची वेवस्था बरी दवरल्ली. ताचेकडेन जायते बरे लायक, कर्तव्यदक्ष आनी पराक्रमी लोक आशिल्ले. सैन्याचे वेवस्थेंत ताणें खूब सुदारणा केल्ली. शिक्षण आनी शिस्तीचें म्हत्व जाणून ताणें आपल्या सैन्याक अस्तंती धर्तेचेर शिक्षण दिवपाची वेवस्था केल्ली.

रणजीतसिंगाची स्मरणशक्त खूब बरी आशिल्ली. तेच भाशेन मनशाचीय ताका बरी पारख आशिल्ली. झुजांतल्या डावपेंचांभाशेन राजकारणांतले डावपेंच ताका खूब बरे कळटाले. शीख पंथाचेर ताचो चड भावार्थ. झुजांत जैत मेळटकच तो खूब दान करतालो. अमृतसरच्या सुवर्णमंदिरांतलें भांगरा - पारवें, कळस, वण्टीवयले पत्रे हें सगळें ताणें दान केल्ल्या द्रव्यांतल्यान केल्लें आसा. ज्वालामुखी देवीच्या देवळाचेरय ताणें भांगराचें पारवें आनी कळस चडयला.

- कों. वि. सं. मं.

**रणमालें :** एक लोकनाट्यप्रकार. गोंयच्या लोकनाट्यपरंपरेच्या संदर्भांत रणमालें हो स्वतंत्र प्रकार आसा. गोंयच्या सत्तरी आनी सांगें ह्या दोन तालुक्यांतल्या धावें, बांबर, भाटी, कुमारे ह्या गांवांनी रणमालें हो लोकनाट्यप्रकार जाता. हो प्रकार चडकरून होळी, संवसारपाडव्या दिसा एक विधी म्हणून गोंयांत करतात. मनशांचोच पड्डो, रामकथेचें आविश्करण, कथाप्रसंग चलता आसतना मदींच येवपी धोंगो हे प्रकार हें रणमाल्याचें खाशेलपण. हेर लोकनाट्यपरंपरेंत रामकथा नासता. पूण रणमाल्यांत पुराय रामायणकथा मेळटा.

'रणमालें' ह्या शब्दाची उत्पत्ती मेळना. कांय जाणांच्या मतान, एकठांय येवन गोंदळ करप असो रण ह्या उतराचो एक अर्थ आसा. रण हो रान शब्दावयल्यान आयला आसूं येता. मालें ह्या शब्दाक खूब अर्थ आसात. वाती पेटवपाचो दिवलेचो जो भाग आसता, ताका मालें म्हण्टात. तें पितुळचें, लांकडाचें वा मातयेचें आसूं येता. सोरोप, अजगरासारके प्राणी एकेच सुवातेर वेटाळें घालून बसतात ताकाय मालें म्हण्टात.

रणमालें नाट्यप्रकाराची सुरवात सांजवेळची जाता. गांवांतल्या देवळांतलो पुजारी, गुरव वा भगत गावकऱ्यांक रणमाल्याचो शब्द दिता. शब्द म्हळयार पुजाऱ्यान सांगणें करून एक नाल्ल, देवाच्या प्रसादावांगडा मुखेल गांवकाऱ्याच्या हातांत दिवप. शब्द मेळ्ळो ना जाल्यार रणमालें जायना. शब्द घेवन रातचे, गांवकार मांडार एकठांय जातात. थंय दिवो दवरप, शब्द म्हणून हाडिल्लो प्रसाद दवरप, सांगणें करप अशो विधी जातात. वाद्यां वाजोवन नमनाक सुरवात जाता. धोल, घुमट, समेळ, कांसाळें वा झांज हीं रणमाल्यांतलीं वाद्यां आसतात. एके विशिश्ट लयींत हीं वाद्यां वाजतात. आविश्करणाच्या वेळार रणमाल्यांत वाटो घेवपी, गायक, वादक आनी नर्तक माचयेर एके वळींत पड्ड्याभशेन उबे रावतात. वाद्यांच्या थेक्याचेर एक पाय फुडें - फाटीं आनी कुशीक करत नाचत रावतात. रणमालें सोंपमेरेन हो पड्डो असोच हालत आसता. फुडें येवन नाचपी पात्रांचें येवप - वचप ह्या मानवी पड्ड्यांतल्यान जाता. कांय पात्रां आपलें काम सोंपतकच आसा त्या भेसांत ह्या पड्ड्यांत उबी रावतात. हातूंत राम, रावण, हनुमान हीं पात्रां आसतात. भेस बदलपाक वा हेर कसल्याय कामाखातीर ह्या पड्ड्याफाटल्यान वतात. गांवांतलो जाणकार रणमाल्याची सुरवात करता. बाकीचे साथ दितात. पद्यभाग लिखित स्वरुपांत आसता. परंपरेन पदां पाठ आसतात.

'धोंगो' हो रणमाल्यांतलो वेगळो प्रकार आसा. रामकथेंतलो एकाद्रो प्रसंग आविश्कृत जातकच मदीं कथा थांबता. तेन्ना वांटो घेवप्यांभितर एक-दोन मनीस फुडें येवन एकाद्र्या सामाजिक विशयाचेर ल्हान प्रहसनाभशेन गावन नाचून परत वतात. धोंग्याचें दुसरें खाशेलपण म्हळयार भायल्यान येवपी कोणूय हातूंत वांटो घेवंक शकता. गांवांतल्या कांय घडणुकांची चर्चा 'धोंगो' ह्या प्रकारांत जाता. ह्या प्रकाराक प्रेक्षकांचो बरो प्रतिसाद मेळटा. एकाद्र्या पात्राचें काम खूब मानवलें जाल्यार प्रेक्षक थंयच्या थंय रंगमाचयेर वचून त्या पात्राच्या गळयांत फुलांची माळ घालता. कलाकाराक जितक्यो चड माळो मेळटात.

तितकी त्या कलाकाराची लोकप्रियता चड. रणमाल्याच्या प्रयोगाच्या वाठारांत खूब फुलकारां आसतात. ह्या फुलांच्या माळांच्या खपावयल्यान रणमाल्याचो दर्जो थारता. जायते लोक 'रणमाल्यांत धोंग करीन' अशी आंगवण करतात. रणमालें प्रकारांत बायलांचीं कामां दादलेच करतात.

आविश्करणाची सुरवात नमनान जाता. नमनाचें पद अशें-

प्रथम नमन गणपते, माघा नमिल्या सरस्वते

खेळती खेळी रे खेळी जोगीण नाथा,

सरस्वती शारदा रंगि आली माया

नमन जातकच गणपती येता. भट येवन गणपतीची पुजा करता. गणपती नाचून वतकच सरस्वती येवन नाचता. उपरांत रणमाल्यांतले रामकथेक सुरवात जाता. एकेक प्रसंग गद्यपद्य संवादांतल्यान साकार जाता. रणमाल्यांत संवाद नात.

रातभर रणमालें चलता. फांतोडेर मंत्राभशेन म्हणिल्ल्या गीतान रणमालें सोंपता. सुरवातीक आवाहन करून आपयल्ल्या देवांक परत धाडप जाता, मांडाचेर सांगणें जातकच लोक आपापल्या घरा परततात.

- कों. वि. सं. मं.

**रणवाद्यां :** पुर्विल्ल्या काळांत झूज करपावेळार व्हडल्यान आवाज करपी वाद्यां वाजयताले. त्या वाद्यांक रणवाद्यां अशें म्हण्टात. रणवाद्यां वाजोवपांत स्वपक्षाक उत्तेजन दिवप आनी शत्रुपक्षाक भय घालप अशे दोट्टी उद्देश आशिल्ले. ऋग्वेद काळांत वाजयताले अशा कांय वाद्यांचो उल्लेख ऋचेंत आयला.



अव स्वराति गर्गरो गोधा परि सनिष्वणत्।

पिङ्गा परि चनिष्कददिन्द्राय ब्रह्मोद्यतम् ।।

अर्थ : पळेयात, कर्ण्याचो आवाज जावपाक लागला. शिंगानय कर्कश आवाज केला. प्रत्यंचेचोय टणत्कार सुरू जाला. आतां वेळ वगडायनासतना इंद्राखातीर प्रार्थनासूक्त म्हणात.

राम - रावण झुजांत नगारो आनी शंख हीं रणवाद्यां आशिल्लीं. हजारांनी डमरू आनी शेंकड्यांनी नगारे एकाच वांगडा वाजपाक लागले म्हणजे त्या आवाजाक कोणाघात म्हण्टात. कोणाघात हो एक वाद्यप्रकार. महाभारतांत झर्झर, पणवानक, गोमुख, नगारो, मृदंग, आडंबर, क्षुद्र, पटह, दुंदुभी, पेश्य, क्ष्वेड, ऋकच, मुरज सारकिल्या जायत्या रणवाद्यांचो उल्लेख केल्लो आसा. झुजापयलीं शंखध्वनी करपाची चाल आसली. हीं रणवाद्यां प्रशिक्षीत अधिकाऱ्यांच्या ताब्यांत आसतालीं. झूज सुरू जाल्ल्याची सुचोवणी नगारो वाजोवन दिताले.

- कों. वि. सं. मं.

**रती :** कामदेवाची बायल. कालिका पुराणांत हिची उत्पत्ती दक्षप्रजापतीच्या घामापसून जाली असो उल्लेख मेळटा. ब्रह्मवैवर्त पुराणांत तिची उत्पत्ती मदनाचे दावे कुशींतल्यान जाल्ल्याचें म्हळां. पूण हेर पुराणांनी ती दक्षकन्या आशिल्ल्याचें म्हळां. आपली धूव मदनाक दिवंची ह्या विचारान दक्षान ताका सांगलें - "ही म्हजी धूव सगळ्या गजालींनी तुका अनुरूप आसा. तूं तिका आपणाय. ती तुजे आज्ञेंत तुजे वांगडा रावतली". मदनान मागीर तिचो बायल म्हणून स्विकार केलो.

(२) एक भावना. रती हो माधुर्य उपासनेचो प्राण. रतींतल्यानच ही उपासना फळ्ळी; देखून ती ते उपासनेचें बीज आसा. जेन्ना रती भक्तांच्या काळजांत स्थायी रुपान निवास करता तेन्ना भक्ताक अंशरुपान रसास्वाद जावंक लागता. ताचें चित्त भाळटा. सगळ्या रसांची मूर्त आशिल्ल्या श्रीकृष्णाकडेन हे रतीचें गुपीत लिपिल्लें आसा. मुक्तीची कामना करपी साधकांक ही रती मेळना. पूण भक्तीची कामना करपी भगवंताकूच ती मेळटा. जाचें चित्त गोड आनी कोमल आसता आनी जेन्ना त्या भक्ताच्या काळजांत हे रतीचो पुराय विकास जाता. तेन्ना संवसारांतले आनी अंतरांतले सगळे अनुकूल आनी प्रतिकूल भाव ताचे सुवादीन जातात.

भक्तीशास्त्राप्रमाण हे रतीचे मुखेल आनी गौण अशे दोन प्रकार आसतात. रती आनी काम हांचो जो स्वाद आसता तसोच कांय प्रमाणांत मधुर भक्तीच्या रसाचोय आसता. पूण हो स्वाद भौतिक स्वादा परस वेगळो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रत्नां :** खनिजांचो एक प्रकार. सादारणपणान आकर्शक रंगरुपाचो, तिगपी आनी दुर्मिळ जाल्ल्यान मोलादीक आसपी असो हो खनीज प्रकार. रत्नां हीं खणींतल्यान वा धर्तरेच्या पोटांतल्यान मेळटात देखून धर्तरेक रत्नगर्भा अशेंय एक नांव आसा.

चडशीं रत्नां हीं खनिजाचे प्रकार आसले, तरी मोतीं, प्रवाळ (पोंवळें), अंबर अशा कांय खनिजांभायल्या प्राणिजन्य वा वनस्पतिजन्य पदार्थांचो आस्पाव तांच्या ओडलायण्या रंगरुपाक लागून रत्नांमदीं करतात. रत्नांचे म्हाररत्नां आनी उपरत्नां अशे दोन वांटे आसात. पुर्विल्ल्या ग्रंथांनी वज्र, मोतीं, पोंवळें, गोमेद, इंद्रनील (नीळ), वैदूर्य, पुश्कराज, पाचू आनी माणिक हीं णव म्हाररत्नां आनी वैक्रांत (तोरमल्ली), सूर्यकांत (फॅल्सपार), चंद्रकांत (फॅल्सपार), राजावर्त (लॅपिस ली), पिरोजा, अकीक (ॲगेट) आदी उपरत्नां सांगल्यांत.

**इतिहास :** भारतांतल्या आर्यांक पुर्विल्ल्या काळासावन रत्नासंबंदींची म्हायती आशिल्ली. वैदिक आनी हेर पुर्विल्ल्या संस्कृत साहित्यांत बरेच कडेन रत्नांचे उल्लेख आयिल्ले आसात. महाभारतांत वर्णन केल्लो स्यमंतक मणी, विष्णुच्या हड्ड्यार खेळपी कौस्तुभमणी, मनांतली इत्सा पुराय करपी चिंतामणी, नागाच्या माथ्यार आशिल्लो नागमणी हे सगळे मणी रत्नांच आशिल्लीं. ऋग्वेदांत तीन कडेन सप्तरत्नांचो उल्लेख आसून एके सुवातेर एकवीस रत्नांचो उल्लेख आयला. पुराणांत रत्नां, रत्नांनी भरिल्लो हार, मेखला, किरीट, कुंडलां हांचे बरेच उल्लेख पळोवंक मेळटात. वैदिक काळासावन आयजमेरेन रत्न ही वैभव निदर्शक वस्तू मानिल्ली आसा. नकली आनी फटकिरीं रत्नां वळखुपाखातीर रत्नपारखी हो खाशेलो वर्ग त्या काळासावन चलत आयला. रत्नपरिक्षेचें एक वेगळेंच शास्त्र निर्माण जाल्लें आनी ते संबंदांतले बरेच ग्रंथ देखीक - कौटिल्याचें 'अर्थशास्त्र' बुध्दभट्टाचो 'रत्नपरीक्षा' हो ग्रंथ, अगस्तीमत, नत्र-रत्नपरीक्षा, मानसोल्लास रत्नसंग्रह, रत्नसमुच्चय, लघुरत्नपरीक्षा, मणिमहात्म्य, आदी ग्रंथ बरयल्ले. ह्या ग्रंथांनी रत्नांचीं नांवां रत्नपरिक्षेचे ठोकताळे, रत्नांचे गूणधर्म, कृत्रीम आनी नकली रत्नां वळखुपाच्यो पद्दती, रत्नांच्या वेपारांत रत्नांचीं वजनां, मापां घेवपाच्यो पद्दती आदी म्हायती खोलायेन दिल्ली दिश्टी पडटा. अलाऊद्दीन खिलजीच्या पदरांत खजिनो आनी टांकसाळ फांट्याचो अधिकारी आशिल्लो ठक्कर फेरू हाणें प्राकृत भाशेंत 'रत्न परीक्षा' हो ग्रंथ बरयला. तातूंत ताणें रत्नपरिक्षेची पुर्विल्ली परंपरा दिवन ताच्या काळांत चालू आशिल्ल्या फुडल्या नवरत्नांची वळेरी दिल्ली आसा. पद्मराग (माणिक), मुक्ता (मोतीं), विद्रुम (पोवळें), मरकत (पाचू), पुखराज, वज्र, इंद्रनील, गोमेद आनी वैदूर्य.

अठराव्या शेंकड्यामेरेन भारत हो संवसारीक नामनेच्या रत्नांची व्हड बाजारपेठ आशिल्ली. इसवी सनाचे सुरवेक सावन यूरोपीय देश आनी भारत हांचेमदीं चलत आशिल्ल्या वेपारांत भारतीय रत्नांक व्हड सुवात आशिल्ली. भारतीय जवाहिर रत्नपरिक्षेंत कुशळ आसताले. इंग्लंड, युरोप, रशिया ह्या सुवातींवयल्या राजघराण्यांतले चडशे सगळे इतिहासीक नामनेचीं वज्रां, माणकां, पाचू हीं रत्नां भारतांतल्यान थंय पावयल्लीं.

अस्तंती देशांनीय रत्नांचो उपेग बऱ्याच पुर्विल्ल्या काळासावन जातालो अशें दिसता. इजिप्तान तीन हजार वर्सां पयलींच्या रसायनीक प्रक्रिया करून जतन केल्ल्या मड्यांवांगडा (ममी) हेर वस्तूंवांगडाच रत्नांय दवरिल्लीं. क्रिस्तापयलीं चारशें वर्सांच्या काळांत ग्रीसांतलो इतिहासकार थीओफ्रॅस्टस (इ.स. पयलीं अदमासान ३७२-२८७) हाणें रत्नांचें आनी तांचेर केल्ल्या कोरीव कामाचें वर्णन केलां. रोमी इतिहासकार प्लिनी (इ.स. २३ ते ७९) हाणेंय बऱ्याच रत्नांचें खोलायेन वर्णन बरोवन दवरिल्लें आसा. सतराव्या शेंकड्यांत फ्रांसांतलो रत्नांचो अभ्यासक झां बातीस्त ताव्हेर्न्ये हाणें १६६१-६८ ह्या काळांत भारतभर भोंवडी केली. ताणें भारतांतलीं वज्रां आनी हेर रत्नांच्या खणींचे वाठार आनी बाजारपेठो हांकांय भेटी दिल्यो. तांचें बारीकसाणीन निरिक्षण करून ताणें ह्या खणींचें, तशेंच बऱ्याच म्हत्वाच्या रत्नांचें आनी हिऱ्यांचें रंगरूप, आकार, मोल आनी इतिहास हांचें खोलायेन वर्णन दीसपटयेंत बरोवन दवरलां. ताका लागून बऱ्याच भारतीय रत्नांचो इतिहास कळपाक आदार जालो. ताणें दिल्लीक बादशहा औरंगजेबाची भेट घेवन ताच्या खजिन्यांतलीं बरींच मोलादीक रत्नां, राजमुकूट हे जडजवाहीर पळयल्ले आनी तांचो इतिहास समजून घेतिल्लो. ताव्हेर्न्ये हाणें भारतांतल्यान बरेच हिरे आनी हेर रत्नां विकतीं घेवन तीं फ्रांसाचो राजा चवदावो लुई हाका दिल्लीं.

परंपरीक समजुती बॅबिलोनियन संस्कृतायेच्या काळासावन ते अठराव्या शेंकड्यामेरेन रत्नांच्या आंगांत खाशेले वरवदी गूण आनी हेर अजापाच्यो गूढ शक्ती आसात, अशी लोकांची श्रध्दा आशिल्ली. जल्मदिसाप्रमाण दर एका म्हयन्याचें खाशेलें रत्न, तशेंच जल्मराशीप्रमाण दर एके राशीचें खाशेलें रत्न, तशेंच सूर्य, चंद्र, बुध, शुक्र, मंगळ आदी नवग्रहांतल्या दर एका ग्रहाचें खाशेलें रत्न अशी रत्नांची वांटणी केल्ली आसून तशे पद्दतीन आंगार रत्नां घालप्याक तीं रत्नां चड फायदयाचीं थरतात, अशी समजूत आशिल्ली. खंयच्या बोटांतले मुदयेंत खंयचो खडो वापरल्यार शकून वा अपशकुनी थरता हे विशीं परंपरीक समजुती चलताल्यो. तातुंतल्यो जायत्यो समजुती आयजूय प्रचलीत आसात.

वज्राक लागून दुस्मानाकडेन झगडपाक शौर्य आनी धाडस मेळटा, भुतांखेतां आनी चेटूक हांचेपसून राखण जाता, नील ह्या रत्नाक लागून लोकांचो विश्वास मेळटा, दळडीर ना जाता, दोळयांच्या दुर्येसापसून राखण जाता. सोरपाच्या विखाचेर उतारो मेळटा. माणिक रत्नान मनाक शांतताय, मोग आनी समाधान मेळटा. वायट सपनां पडनात. पाचूक लागून संवसारसूख, धन आनी यश मेळटा. जमुनियान सोरो चडना, आंगांत शाणेपण येता, पिरोजान घोड्यावयल्यान पडपापसून राखण जाता, अशे तरेच्यो दर एका रत्नासंबंदींच्यो समजुती प्रचारांत आशिल्ल्यो. रत्नांचे हे अद्भुतशक्तीचो तशेंच ताच्या वरवदी गुणांचो

फायदो मेळोवपारवातीर अशा रत्नांचें चूर्ण आनी भस्म करून तें पोटांत घेवपाची पद्दत अठराव्या शेंकड्यामेरेन चालू आशिल्ली. उपरांत मात रत्नाभोंवतणचे हे गुढतायेचें वलय उणें जावन रत्नां हीं खनिजांची एक तरा हे नदरेन ताच्या प्रणमनाक (उजवाडाचो दिल्ल्या माध्यमांतलो वेग आनी ताचो मॅकॅळया आकाशांतलो वेग हांचें गुणोत्तर), स्फटीकरचणूक, रसायनीक संघटन, आदी गूणधर्मांचो अभ्यास जावंक लागलो आनी आतां 'रत्नविद्या' हो रत्नांचो पद्दतशीर असो अभ्यासाचो एक स्वतंत्र शास्त्रफांटो जाला.

**रत्नां मेळपाच्यो सैमीक सुवाती** :- सैमांत वेगवेगळे तरांचे भूंय - वैज्ञानिक परिस्थितींत आनी फातराच्या तरांमदीं रत्नां दिश्टी पडटात. कितलीं तरी दुर्मीळ (चुकून मेळपी) आनी मोलादीक रत्नां हीं अग्नीज खडपाचीं मुळावीं घटक खनिजां आसतात. ह्या खडपाची झीज आनी धुंवर जावन तयार जाल्ल्या गाळ आनी मातयेच्या थरांत हीं रत्न - खनिजां फाफशिल्ले स्थितींत मेळटात. देखीक, वज्रां पेरिडोटायट ह्या अत्यल्पसिकत (सिलिकेचें प्रमाण सामकें उणें आशिल्लें) खडपाच्या किंबर्लायट हे तरेच्या अग्नीज खडपांत एक मुळावो घटक अशा खनीज स्वरुपांत दिसतात. हो फातर सादारण रितीन ज्वालामुखी नळाच्या स्वरुपांत आनी केन्नाकेन्नाय वण्टी आनी शीलापट्याच्या रुपांतय दिसता. वज्रां आशिल्ले किंबर्लायटाचे ज्वालामुखी नळ दक्षिण आफ्रिका, टांझानिया, काँगो, सिएरा, लिओन, भारत, लेसोथो, रशिया आनी उत्तर अमेरिकेंत आरकॅन्सॉसांत आसात. वज्रांनी भरिल्ले गाळमातयेचे जलोढ थर घाना, आंगोल, गायाना, आयवरी कोस्ट, नामिबिया, ब्राझील, व्हेनेझुएला, भारत आदी प्रदेशांत आसून तातूंत प्लेसर पद्दतीच्या खणकामान हिरे मेळटात.



वेगवेगळीं तासां मारिल्लें रत्न

वज्रांभायर हेर रत्नखनिजां आसपी मुखेल मुळावे फातर म्हळयार पेग्मटायट वण्टी आनी शिलारसाच्या अंतर्वेशनाक लागून संस्पर्शी रुपांतरण जाल्ले फातर. चुन्याच्या फातरांत फातररसाचें अंतर्वेशन जाल्ल्यान चुनफातराचो भरडकणी संगमरवर जाता. ह्या फातरांत स्पिनेल, कुरूविंद, गार्नेट, स्कॅपोलायट, एन्स्टॅटायट . हे सारकिलीं बरींच आकर्शक स्वरुपाचीं खनिजां तयार जातात. ब्रह्मदेशांत (मियानमारांत) मोगॉक नगरांत मेळपी माणिक रत्नांचे सांठे अशेच तरेन तयार जाल्ले आसात. ह्या प्रदेशांत माणिक, नील आनी वेगवेगळया रंगाचे सफायर हे कुरुविंदाच्या रत्नप्रकारावांगडाच पेरिडोट, पुश्कराज, क्वार्ट्झ, गार्नेट, अशीं जायत्या तरांचीं रत्नखनिजां तयार जाल्लीं आसात.

**रत्नांचें भुगोलीक वितरण** : रत्नखनिजांचें वितरण

संवसारभरच्या सगळ्या प्रदेशांनी सारक्याच प्रमाणांत जाल्लें नासून कांय खाशेल्या वाठारांनी खाशेल्या रत्नांचे सांठे एकठायिल्ले दिसतात. बऱ्याच पुर्विल्ल्या काळासावन भारत, ब्रह्मदेश (मियानमार), थायलंड, व्हिएतनाम आनी इंडोनेशिया तशेंच श्रीलंका ह्या देशांची मोलादीक रत्नांच्या सैमीक सांठ्याखातीर संवसारभर नामना आशिल्ली. भारत हो देश मुखेल करून वज्रांचें उत्पादन करपी आशिल्लो. कांय मोलादीक माणकां, नील आनी पाचू हीं रत्नांय भारतांत मेळिल्लीं. श्रीलंकेंत वज्र सोडून हेर चडशीं सगळीं मोलादीक रत्नां आनी उपरत्नां मेळटालीं. ताकाच लागून श्रीलंकेक 'रत्नद्वीप' हें नांव मेळिल्लें. थायलंड आनी व्हिएतनाम हांची नीळ रत्नाखातीर कीर्त आशिल्ली. नील रत्नांच्या संवसारीक उत्पादनांतलें ५०% उत्पादन हें दोन देशांतल्यान जातालें. थायलंडाची स्पिनेलाखातिरूय कीर्त आशिल्ली. जेड ह्या रत्नांची पुरवण मुखेल करून ब्रह्मदेश (मियानमार) आनी चीनांतल्यान जाताली. जपानाची संवर्धीत (कल्चर्ड) मोतयांखातीर तेचप्रमाण पोंवळें, जमुनिया आनी क्वॉर्टझाखातिरय नामना आशिल्ली. माणकाखातीर ब्रह्मदेशाचीय (मियानमाराची) खाशेली कीर्त आशिल्ली.

आतां वज्राच्या उत्पादनामदीं द. आफ्रिकेन हेर सगळ्या देशांक फाटीं घाल्यात. सदया भारतांतलें वज्रांचें उत्पादन बऱ्याच उण्या प्रमाणांत जाता. वज्रांचो आडवाद सोडलो जाल्यार हेर रत्नांच्या बाबतींत मात हेर सगळ्या प्रदेशांची कीर्त आजूनय तशीच आसा. हेर उपरत्नांचे बाबतींत ऑस्ट्रेलिया मोलादीक ओपलाखातीर प्रसिद्द आसा. सायबेरियांत बरे प्रतीचें पुश्कराजाचें आनी लॅपीस लॅझुलीचें उत्पादन जाता. अफघानिस्तानांत ६,००० वर्सांपयलींसावन लॅपिस लॅझुलीच्यो खणी चलत आयिल्ल्यो आसून तातूंत आजूनय उत्पादन जाता. इराणाची पुर्विल्ल्या काळासावन पिरोजाखातीर कीर्त आसा. अफघानिस्तानांतय पिरोजाचें उत्पादन जाता. तांबड्या दर्यांतलो सेंट जोन हो जुंवो उत्कृश्ट रत्नाचे प्रतीचे पेरिडोट मेळपाची ही एकच म्हत्वाची सुवात. मादागास्कार जुंव्यांतले पेग्मटायट वण्टींत पाचू, तोरमल्ली, गोमेद, पुश्कराज, स्पिनेल, कुन्सायट, ॲमेझोन स्टोन आनी सूर्यकांत हीं रत्नखनिजां मेळटात. कॅलिफोर्नियांतल्या सॅन डिएगोच्या प्रदेशांत लिथियमयुक्त खनिजां आशिल्ल्यो पेग्मटायट वण्टी आसात. तांचेमदीं कुन्सायट, गुलाबी रंगाचे वैदूर्य आनी गुलाबी तोरमल्ली मेळटात. ब्राझीलांतली मीनास झिरायस आनी मीनास नोव्हास ह्या वाठारांतल्या पेग्मटायटांत रत्नाच्या दर्ज्याचे वैदूर्य आनी तोरमल्ली मेळटात. ब्राझीलांतले मीनास झिरायस वाठारांतले डायमॅन्शियाक १७२५ त पयले खेपे हिरे मेळळे. ताचेउपरांत माट्टू ग्रॉसू, बाईआ, गोयाझ, ॲमेझोनस, मारन्यआउन पराना आनी साऊँ पावल अशा बऱ्याचशा वाठारांनी हिरे मेळिल्ले आसून ह्या वाठारांतल्यान हिऱ्यांचें उत्पादन जायत आसा. युरोपांत बाल्टिक दर्या लागसारच्या वाठारांत रत्नांचे प्रतीचे अंबर मेळटात. रशियांत ॲलेक्झांड्रायट आनी मार्जारनेत्री (माजराच्या दोळयाचे) हे क्रिसोबेरिलाचे प्रकार, पाचू आनी हेर रंगाचे वैदूर्य तशेंच गोमेद हीं रत्नांय दिसतात. झेकोस्लोव्हाकियांत बरे रत्नप्रतीचे गोमेद मेळटात.

**भारतांत रत्नां मेळपी सुवाती** - बऱ्याच पुर्विल्ल्या काळासावन संवसारांतल्या सगळ्या देशांक वज्रां, माणकां, पाचू ह्या रत्नांची पुरवण करपी देश म्हणून भारताची कीर्त आशिल्ली. युरोप - आशियेंतल्या राजघराण्यांनी गाजिल्लीं चडशीं सगळीं इतिहासीक म्हत्वाचीं वज्रां आनी कितलीं तरी माणकां हांची मूळ सुवात भारत आशिल्ली. १७२० तल्या ब्राझीलांतल्या वज्राच्या वाठाराचो आनी ते उपरांत १८६० त दक्षिण आफ्रिकेंतल्या बऱ्याच समृध्द अशा वज्राच्या वाठारांचो सोद लागले उपरांत भारताची नामना उणी जाल्ली.

भूंयविज्ञानिकाचे नदरेन भारतांतलीं वज्रां अत्यल्पसिकत पेरिडोटायट फातराच्या ज्वालामुखी नळांत आनी तांचो अपक्षरणान जाल्ल्या वज्रां आशिल्ल्या गाळमातयेच्या जलोढ थरांत शिंपडिल्ल्या स्वरुपांत मेळटात. वज्रां भायर हेर रत्नां - खनिजां मात मुखेलपणान पुर्विल्ल्या अग्निज आनी गाळाच्या फातरांचें उचेलें तापमान आनी दाबाचे स्थितींत रुपांतरीत जावन तयार जाल्ल्या ग्रॅन्युलायट फातरांत तातूंत मुंगरिल्ले पेग्मेटायट आनी क्वॉर्ट्झ शिरांत बेरील, पुश्कराज, धुंगरिल्लो क्वॉर्ट्झ, माणिक, गोमेद आदी रत्नप्रकारांचीं खनिजां आसात.

भारतांतले वज्रां मेळपाचे मुखेल वाठार म्हळयार दक्षिणेंत कृष्णा आनी गोदावरी न्हंयांमदलो वज्रकरूर, कडाप्पा, बल्लारी, कर्नुल, कोलूर हे गांव आशिल्लो प्रदेश आनी मध्य प्रदेशांतलो पन्ना हो वाठार. हांचेभायर उण्या प्रमाणांत ओरिसांतल्या महानदीच्या देगणांत, महाराष्ट्रांतल्या चंद्रपूर जिल्ह्यांत आनी बिहारांतल्या छोटा नागपूर प्रदेशांत उण्या प्रमाणांत वज्रां मेळटात.

**भारतांतल्यो हेर रत्नां मेळपी सुवाती अशो -**

माणिक - कर्नाटक, आंध्र प्रदेश, कंगायम (तमिळनाडू), काश्मीर.
नील - किश्तवार (काश्मीर).
पाचू - राजस्थान, ओरिसा, गुजरात, तिरुपूर, तिरूचिरापल्ली, कोईमुत्तूर.
गोमेद - राजस्थान, आंध्र प्रदेश, बिहार, ओरिसा, कर्नाटक, तमिळनाडू आनी केरळ.
वैदूर्य - राजस्थान, तमिळनाडू, केरळ.
चंद्रकांतमणी - तमिळनाडू, कर्नाटक.
क्वॉर्ट्झ - कर्नाटक, बिहार, राजस्थान.
जमुनिया - महाराष्ट्र.
अकीक - महाराष्ट्र, गुजरात, मध्यप्रदेश.
मोतीं - तमिळनाडू, गुजरात, थिरूवनंथपुरम (केरळ), कटक.

**रत्नांक आकार दिवप आनी तासां घालपः** सैमीक अवस्थेंत ज्या आकारांत आनी स्थितींत रत्नां सांपडटात तीं जशींच्या तशीं

वेव्हारांत उपेग करपाखातीर फावोशीं आनी आकर्शक नासतात. तांच्या मुळांतले स्वभावीक आकार बरेच खेपे अनियमीत आसून तांच्यो कडो वांकड्यो तिकड्यो आसतात आनी पृश्ठभागूय मळकट आसता. अशीं रत्नां योग्य त्या आकारांत कापून तांकां जायत्या पृश्ठांचे नियमीत आकाराचीं तासां घालप आनी पॉलीश करप गरजेचें थरता. तासां घालप आनी पॉलीश करप हांकां लागून उजवाडाचें प्रणमन आनी अपस्करण जावन रत्नांचे रंग, तेज आनी चकचकसाण अदीक उठून दिसता. रत्नां कापून तांकां पैलू पाडप आनी पॉलीश करप हीं कामां करपी कारागिराक मणिकार (लॅपिडेरी) अशी संज्ञा आसून देशादेशांनी बऱ्याच पुर्विल्ल्या काळासावन हो वेवसाय चलत आसा. सुरवेक १५६२ त यूरोपांत ही कला उदेली.

हिऱ्याखातीर पॉईंट आनी टेबल अशे दोन प्रकार प्रचलित आशिल्ले. सतराव्या शेंकड्याचे अरवेरेक व्हेनिसच्या विन्सेंत्सो पेरूत्त्सी नांवाच्या मणिकारान ब्रिलियंट हो योग्य आनी लोकप्रिय आकार सोदून काडलो.

रत्नांक दितात ते आकार बऱ्याच तरांचे आसले तरी तांचे दोन मुखेल वर्ग जातात. (१) वाटकुळाकार पृश्ठं आशिल्ले आकार. हांकां मदारघाटी वा कॅबोशाँ म्हण्टात. (२) सपाट पृश्ठांचे पैलू आसपी आकार. सपाट पृश्ठांच्या पैलूदार आकारानय ब्रिलियंटघाटी आनी पायरीदार (सोंपणाचे) घाटी अशे दोन उपप्रकार आसात. तुर्ताक रत्नांक दितात ते मुखेल आकार अशे आसात :- (१) ब्रिलियंट - घाटी, (२) टेबलघाटी, (३) सोंपणांची टेबलघाटी, (४) गुलाबघाटी वा कमलघाटी आनी (५) मदारघाटी.

**रत्नांवयलें कोरीवकाम :** रत्नांवयल्या कोरीव कामाची सुरवात इ.स. पयलीं ४000 वर्सां ह्या काळांत दक्षिण मेसोपोटेमिया वाठारांत जाल्ल्याचें दिसता. तेन्नासावन ती इ.स. पांचव्या शेंकड्यांत रोमी साम्राज्याचो अरवेर जायमेरेन आशिया मायनर आनी भूंयमध्य दर्याच्या उदेंतेच्या प्रदेशाच्या वाठारांतले दर एके संस्कृतायेंत एक म्हत्वाचो कलाप्रकार म्हणून प्रचलीत आशिल्ली. मध्ययुगीन काळांत ही कला अस्ताक गेली. प्रबोधन काळा उपरांत हे कलेक परत म्हत्व आयलें. पूण अठाराव्या शेंकड्याचे अरवेरेक आनी एकुणिसाव्या शेंकड्यांत ही कला परत फाटीं पडली.

रत्नांवयल्या कोरीव कामाचे दोन मुखेल प्रकार अशे - (१) इंटॅग्लिओ आनी (२) कॅमिओ. ह्या कोरीव कामाखातीर सुरवेक सावन गिरमिटाचो उपेग केल्लो दिश्टी पडटा. आर्विल्ल्या काळांत मात बऱ्याच तरांचीं यंत्रीक गिरमिटां आनी हेर हत्यारां उपेगांत हाडिल्लीं दिसतात. हीं हत्यारां लोखणाचीं आसून तांच्या तोंकांक हिऱ्याची पूड लायिल्ली आसता. तुर्ताक कोरीव कामाचें प्रमाण बरेंच उणें जाल्लें आसून पयलींची ती कलाकुसर आता पळोवंक मेळना. सदद्या सगळो भर रत्नां विंगड विंगड आकारांनी कापून तांकां पैलू पाडून चकचकसाण दिवपाचेरूच दिल्लो दिसता.

**कृत्रीम रत्नां :** मोलादीक रत्नांबदला तशातशीं दिसपी कृत्रीम वा नकली रत्नां तयार करपाची पद्दत इजिप्ती सुसंस्कृतायेच्या काळासावन चलत आयल्या. युरोपांत खऱ्या रत्नां भाशेन दिसपी कंवचेचीं नकली रत्नां 'पेस्ट' ह्या नांवान प्रचारांत आशिल्लीं. विसाव्या शेंकड्यांत सैमीक रत्नांचे सगळे गूणधर्म आसपी संश्लेशीत (कृत्रीम) रत्नां तयार करपांत यश आयिल्लें आसून चडशीं सगळीं रत्नां संश्लेशीत पद्दतीन व्हड प्रमाणाचेर तयार करतात.

कृत्रीम रत्नांचे चार प्रकार आसात - (१) संस्कारित रत्नां, (२) पुनर्घटीत म्हळयार खऱ्या रत्नांचे बारीक कुडके एकठांय करून तयार केल्लीं व्हड आकाराचीं मोलादीक रत्नासारकीं दिसपी रत्नां, (३) सैमीक क्रियेचें अनुकरण करून तयार केल्लीं संश्लेशीत रत्नां आनी (४) फकत वयले वयर खऱ्या रत्नांसारकीं दिसपी रत्नां.

हाचेभायर खऱ्या मोलादीक रत्नांसारके दिसपी हेर सैमीक खनीज प्रकारय त्या रत्नांच्या बदला वापरतात.

**रत्नअभिज्ञान (रत्नांची पारखणी) :** बऱ्याच जातींच्या रत्नांचे रंग सारके आसूंक शकतात. तशेंच कितलींशींच रत्नां धवीं (बिनरंगी) पारदर्शक आसतात. अशा रत्नांची सारकी जात सादद्या दोळयांनी पळोवन वळखप सामान्य मनशाक शक्य नासता. रत्नांची निश्चीत जात (खनीज प्रकार) थारावपाखातीर तांच्या विविध गूणधर्मांची तपासणी करची लागता. अशी तपासणी करून रत्ननिश्चिती करपाचें 'रत्नविद्या' ह्या नांवाचें एक स्वतंत्र शास्त्र जाल्लें आसून रत्नांची पारखणी करपी तज्ञांचो वेगळो वर्ग तयार जाला. भारतान पुर्विल्ल्या काळासावन 'रत्नविद्या' हो खाशेलो अभ्यासाचो विशय मानिल्लो आनी रत्नपारखी तशेंच मणिकार हांचोय वर्ग आशिल्लो. सदद्या भारतांत कलकत्ता आनी मुंबय हांगां रत्नविद्येचें प्रशिक्षण दिवपी संस्था आसात. ते भायर रत्नांक आकार दिवन तासां घालपाचें खाशेलें प्रशिक्षण दिवपी संस्था जयपूर आनी सुरतेक आसात.

**मोल - उत्पादन आनी वेपार :** रत्नांचें मोल मुखेल करून सोबीतकाय, तिगप, दुर्मीळकाय आनी कांय प्रमाणांत प्रचलित आवड - निवड (फॅशन) ह्या चार घटकांचेर आदारून आसता. सगळया रत्नांमदीं वज्र सगळयांत मोलादीक मानतात. प्रचलित आवडी निवडीप्रमाण रत्नांचें मोल उणें अदीक जाता.

एका काळार भारत सगळया संवसारांत रत्नांचें उत्पादन आनी वेपार ह्या मळार फुडें आशिल्लो. हालीं तेंपार भारतांतलें रत्नांचें उत्पादन बरेंच उणें जालां. तरीय रत्नां कापून तांकां तासां घालून तांची निर्यात करप ह्या मळार भारतान परत आघाडी मेळयल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**रत्नाकर - जगन्नाथदास :** (जल्म : १४ सप्टेंबर १८६६ वाराणसी; मरण : २१ जून १९३२ हरिद्वार).

आधुनिक काळांतलो एक व्हड कवी. तो ब्रज भाशेंत काव्यरचना करतालो. १८९२ त तो बनारसच्या क्विन्स कॉलेजींतल्यान बी. ए. जालो. आवयच्या मरणाक लागून तो फुडलें शिक्षण घेवंक शकलोना. १९०२ त अयोध्यानरेश प्रतापनारायण सिंह हाचें आनी १९०६ पसून प्रतापनारायणाच्या मरणा उपरांत, महाराणयेचो खाजगी सचीव म्हणून ताणें काम केलें.

भारतांतल्या चडशा थळांची ताणें भोंवडी केल्ली. संस्कृत, प्राकृता सारकी पुर्विल्ली भास, बंगाली, पंजाबी, मराठी ह्यो आधुनिक भारतीय भासो; आयुर्वेद, संगीत, पुरातत्त्व, इतिहास, योग सारकिल्ल्या विशयांचो ताका खोलायेन अभ्यास आशिल्लो. ताका धर्म आनी साहित्य चड मानवतालीं.

शिक्षण चालू आसतनाच ताणें 'जकी' (बुध्दीमान) ह्या टोपणनांवान उर्दू - फार्सी कविता रचल्यो. पूण ताचेउपरांत मात ताणें ब्रज भाशेंतच काव्यलेखन केलें.

साहित्य सुधानिधी आनी सरस्वती ह्या हिंदी पत्रांचें संपादनय ताणें केलें. वाराणसीच्या 'नागरी प्रचारिणी सभा', प्रयागच्या 'रसिक मंडल' ह्या संस्थांचे स्थापनेक आनी विकासाक ताणें खूब पालव दिलो.

१९२२ त कलकत्त्याक भरिल्ल्या अखिल भारतीय हिंदी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद; १९२५ त कानपूराक भरिल्ल्या अखिल भारतीय कविसंमेलनाचें अध्यक्षपद; १९२६ त चवथ्या प्राच्यविद्या परिशदेच्या हिंदी विभागाचें अध्यक्षपद ताका फावो जालें.

ताणें जायतें काव्यलेखन आनी अभ्यासपूर्ण गद्यलेखनय केलें. ताच्या चडशा कृतींचे संग्रह नागरी प्रचारिणी सभेन प्रसिद्द केल्ले आसात. ताच्यो कांय म्हत्वाच्यो काव्यरचना अशो आसात - हिंडोला (१८९४), समालोचनादर्श (पोपाच्या एसेज ऑन क्रिटिसिझमचें रोला छंदांत अणकार, १९१९), कलकाशी, शृंगारलहरी, गंगावतरण (१९२७), वीराष्टक (१९२८), उध्दव शतक (१९२९).

सुधासर (१८८७), कविकुल कंठाभरण (१८८९), हम्मीरहठ (१८९३), समस्यापूर्ती (१८९४), नखशिख (१८९६), सुजानसागर (१८९७), बिहारी रत्नाकर (१९२२) ह्या ग्रंथांचें ताणें संपादनय केलें. तशेंच, भास, व्याकरण, छंद, काव्यशास्त्र, कविचरित्र ह्या विशयांचेर आनी कांय इतिहासीक विशयांचेरय ताणें अभ्यासपूर्ण लेख बरयले.

- कों. वि. सं. मं.

**रत्नागिरी जिल्हो :** महाराष्ट्र राज्याच्या कोंकण प्रदेशांतलो एक जिल्हो. क्षेत्रफळ ८,२४९ चौ. किमी. आसून तें राज्याच्या २.७% आसा. अक्षवृत्तीय विस्तार १६° ३0' ते १८°४' उत्तर आनी रेखावृत्तीय विस्तार ७३° २' ते ७३° ५२' उदेंत रेखांश आसा. जिल्ह्याची उत्तर - दक्षिण लांबाय सुमार १८० किमी. आसून उदेंत - अस्तंत विस्तार सरासरी ६४ किमी. आसा. रत्नागिरी जिल्ह्याचे उत्तरेक रायगड जिल्हो, उदेंतेक सह्याद्री दोंगरावळी आनी सातारा, सांगली आनी कोल्हापूर जिल्हे, दक्षिणेक सिंधुदुर्ग जिल्हो, अस्तंतेक अरबी समुद्र आसा. सद्याचें रत्नागिरी आनी सिंधुदुर्ग ह्या जिल्ह्यांचो मेळून पयलीं रत्नागिरी हो १५ म्हालांचो एकच जिल्हो आशिल्लो; पूण एक मे, १९८१ सावन रत्नागिरी जिल्ह्याची रत्नागिरी आनी सिंधुदुर्ग अशा दोन जिल्ह्यांनी वांटणी जाली.

उत्तरेक सावित्री न्हंयेपसून दक्षिणेक शुक न्हंयेमेरेनचो रत्नागिरी जिल्हो आनी ताचे दक्षिणेकडचो तेरेखोल खाडयेमेरेनचो सिंधुदुर्ग जिल्हो. रत्नागिरी जिल्ह्यांत मंडणगड, दापोली, खेड, गुहागर, चिपळूण, रत्नागिरी, संगमेश्वर, लांजें आनी राजापूर अशे णव म्हाल आसात. सगळयांत उत्तरेक मंडणगड आनी सगळयांत दक्षिणेक राजापूर म्हाल आसा. क्षेत्रफळान संगमेश्वर म्हाल सगळयांत व्हड आनी मंडणगड सगळयांत ल्हान आसा.

**भूंयवर्णन :** सैमीक नदरेन रत्नागिरी जिल्ह्याचे तीन भाग पडटात - (१) सह्याद्री (२) वलाटी वा सडयाचो प्रदेश (३) खलाटी वा दर्यादिगेचो प्रदेश.

रत्नागिरी जिल्ह्याचे उदेंतेक सह्याद्रीच्यो वळी आसून चढ उतारांनी भरिल्ल्या ह्या दोंगराळ प्रदेशान जिल्ह्याची ८५ % भूंय व्यापल्या. दऱ्या देगणांच्या दक्षिण - उत्तर लांबलचक पातळिल्ल्या पट्याक 'सह्याद्री पटो' वा 'बांद्री पटो' अशें म्हण्टात. सह्याद्रीच्या ऊंच तेमकांचेर पयलीं बांदिल्ले महिपतगड, सुभानगड, भैरवगड, प्रचितगड हे गड आसात. ह्या प्रदेशाचो उतार उदेंतेकडल्यान अस्तंतेकडेन आसून हांगा खूब पावस पडटा. कशेडी, कुंभार्ली आनी आंबा हे ह्या विभागांतले मुखेल घाट आसून थंयसावन अनुक्रमान रायगड, सातारा आनी कोल्हापूर ह्या जिल्ह्यांकडेन येरादारी चलता.

दोंगराळ प्रदेशाच्या मुळांतल्या सपाट सडयाच्या भागाक 'वलाटी' अशें नांव आसा. हांगाची जमीन काळसर तांबशी आसून जांभा, बेसाल्ट हे फातर हांगा मेळटात. भात हें हांगाचें मुखेल पीक.

वलाटीचे अस्तंतेवटेनच्या दर्यादिगेच्या प्रदेशाक 'खलाटी' म्हण्टात. जिल्ह्यांतली चडशी लोकवसती ह्याच प्रदेशांत आसा. दर्याचे देगेक जंय दोंगराभाशेन ऊंच भाग आसात, थंय सुवर्णदुर्ग, जयगड, रत्नदुर्ग, पूर्णगड, गोपाळगड हे किल्ले आसात. रत्नदुर्ग आनी जयगडाचीं दीपगृह पळोवपासारकीं आसात.

रत्नागिरी जिल्ह्यांत जांभा मातयेचें प्रमाण चड आसा. आम्लयुक्त अशे हे मातयेचो रंग ऑक्सिडीकरण क्रियेच्या प्रमाणाप्रमाण गाड तांबडो वा पुडीकोराचो आसता. हातूंत चुनखडयेचें प्रमाण खूब उणें जाल्यार सेंद्रीय द्रव्याचें प्रमाण चड आसता. वलाटीच्या भागांत

कांयकडेन काळी कसदार जमीन आसा. बॉक्सायट, चीनी माती, डोलोमायट, मँगनीज, सिलिका, क्रोमायट आनी इल्मेनायट हे खनीज पदार्थ रत्नागिरी जिल्ह्यांत मेळटात. हांगा जांभा फातर कापून ताच्यो चवकोनी विटो काडटात.

दोंगराळ वाठारांत काळीथर हो फातर व्हड प्रमाणांत मेळिल्ल्यान ताचेपसून व्हड व्हड खांबे आनी खडी तयार करतात. तशेंच, कुरूंदाचो फातरय हांगा मेळटा. मालगुंड, तिवरे, पूर्णगड ह्या भागांनी इल्मेनायट खनीज मेळटा. राजापूर तालुक्यांतल्या वाटुळ ह्या गांवालागसार सिलिका आशिल्ली रेंव मेळटा; तिचो उपेग कंवची तयार करपाक जाता. दापोली, मंडणगड ह्या म्हालांतल्यान बॉक्सायट मेळटा. राजापूर, दापोली आनी चिपळूण ह्या म्हालांनी चिकणमाती मेळटा. तिचेपसून सूलचे नळे, विटो, तिजुले आनी आयदनां तयार करतात.

**न्हंयो :** जिल्ह्यांतल्यो चडशो सगळयो न्हंयो सह्याद्रीच्या मुखेल पर्वतावळींतल्यान उगम जावन अस्तंतेक अरबी समुद्राक वचून मेळटात. शास्त्री, वाशिष्ठी, अंबा, जगबुडी, नळकडी, मुचकुंदी, जोग, काजळी आनी शुक (वाघोटन) ह्यो हांगाच्यो मुखेल न्हंयो. वाशिष्ठी न्हंय सोडल्यार, गिमांत चडशो सगळयो न्हंयो सुकतात पूण पावसांत तांकां हुंवार येता. सातारा जिल्ह्यांत कोयना धरणाच्या उदकाचेर पोफळी (रत्नागिरी) गांवांत वीज तयार करतकच तें उदक उपरांत वाशिष्ठी न्हंयेंत सोडटात. त्या उदकाचो उपेग फुडें वाशिष्ठीच्या देगांचेर आशिल्ल्या शेतांखातीर जाता. ही जिल्ह्यांतली सगळयांत म्हत्वाची न्हंय. सह्याद्रीच्या तिवरे भागांत तिचो उगम जाता. वाशिष्ठीचे दक्षिणेक शास्त्री न्हंय आनी उत्तरेक रत्नागिरी, रायगड शिमेवयल्यान व्हांवपी सावित्री न्हंय आसा. न्हंयेच्या मुखाकडल्या प्रवाहांत सुमार ५८ किमी. मेरेन म्हळयार रायगड जिल्ह्यांतल्या महाडमेरेन ल्हान ल्हान तारवां येरादारी चलता. अरबी दर्यादिगेवयल्या बाणकोट, केळशी, दाभोळ, जयगड, भाट्ये पूर्णगड, जैतापूर ह्यो नामनेच्यो खाडयो आसात.

**हवामान :** हांगाचें हवामान उश्ण, दमट आनी सम प्रकारचें आसता. गिमांत दीसपट्टें सरासरी चडांत चड तापमान ३०° से. ते ३३° से. आनी उण्यांत उणें तापमान २१° से. ते २८° से. आसता. शियाळयांत तें चडांत चड २८° से. आनी उण्यांत उणें २०° से. आसता. जिल्ह्यांत वर्सुकी सरासरी पावस ३३० सेंमी. पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** जिल्ह्यांतलें ४९.६१ चौ. किमी. क्षेत्र म्हळयार जिल्ह्याच्या भुगोलीक क्षेत्राचो १.२२ % वाठार रानांखाला आसा. रत्नागिरी जिल्ह्याचे सह्याद्रिपट्टेंत मंडणगड, खेड, चिपळूण, संगमेश्वर, लांजें, राजापूर ह्या म्हालांनी रानांचें प्रमाण चड आसा. रानांनी साग, शिसव, नाणा, किंजळ, शिवण, हिरडो, खैर हे म्हत्वाचे रूख आसात. रानांतल्यान लाकडाचें उत्पादन मेळटा. तशेंच म्हॉव, मेण, दीख, कात, लाख, रंग, वखदी वनस्पत, कातडी कमोवपाखातीर लागपी पदार्थ अशीं उत्पादनां रानांतल्यान मेळटात. हालीं रबराच्या झाडांचीय लागवड केल्या. रानांत वाग, लांडगे, सांबर, रानडुकर, सोंशे, कोले, हरणां हे प्राणी आसात.

**अर्थीक स्थिती** - उद्देगीक नदरेन हो जिल्हो खूब मागाशिल्लो. कच्च्या म्हालाची तूट, लोहमार्गाचो अभाव आनी प्रशिक्षीत कामगार फावो त्या प्रमाणांत उपलब्ध नाशिल्ल्यान ह्या जिल्ह्याची आयजमेरेन उद्देगीक उदरगत व्हडलीशी जावंकना. रत्नागिरी जिल्ह्याचो आस्पाव महाराष्ट्रांतल्या अविकसीत जिल्ह्यांमदीं जाता. तेखातीर महाराष्ट्र आनी केंद्र शासनान खूब येवजणो चालीक लायल्यात. प्रशिक्षीत कामगार मेळचे म्हणून जिल्ह्यांत शासकीय तंत्रनिकेतनां आनी उद्देगीक प्रशिक्षण संस्थांची स्थापणूक केल्या. कारखानदारांक तांचे गुंतवणुकींत १५ % अनुदान तशेंच वीज, उदक, जमीन ह्यो सवलती जाहीर करून उत्पादीत म्हालाचेर विक्री करांतय सूट दिल्या. सद्याक कोंकण रेल्वेक लागून लोह मार्गाची उणीव ना जावन उद्येगीकरणाक वाव मेळूंक लागला.

शेती हो ह्या जिल्ह्यांतल्या लोकांचो मुखेल वेवसाय आसून सुमार ७० % लोक ह्याच वेवसायाचेर आदारून आसात. फळबागो आनी नुस्तेमारी ह्या दोन वेवसायांक जिल्ह्याचे अर्थवेवस्थेंत म्हत्वाचें स्थान आसा. उदक शिंपणावळीच्यो सवलती खूब उण्यो आशिल्ल्यान शेती पावसाच्या उदकाचेर आदारून आसता. खेड म्हालांतल्या कसबा नातू ह्या गांवालागसार मध्यम स्वरुपाचो उदक शिंपणावळ प्रकल्प उबारतात. भात हें जिल्ह्यांतलें मुखेल पीक आसून उणे प्रतीचे जमनींत नाचणें, वरयां, तीळ हांची खरीप पिकां घेतात. रत्नागिरी - २४, जया, सोना, पंकज अशो भाताच्यो चड उत्पादन दिवपी संकरीत जातीय लायतात. हे भायर कोळंबो, पटणी, भडस, वरंगळ ह्या प्रकारांच्या भातांचीय लागवड करतात. दापोलीच्या कृषि विद्यापिठावतीन शेतकऱ्यांक मार्गदर्शन करतात. राजापूर, संगमेश्वर, चिपळूण आनी खेड म्हालांनी भाताचे लागवडीखालचें क्षेत्र आसा. रब्बी हंगामांत वाल, कुळीथ, मूग, पावटो, उडीद, चवळी हीं पिकां काडटात. मिरसांग, आंबो, पणस, काजू, रातांबे, नाल्ल, सुपारी हीं जिल्ह्यांतली मुखेल नगदी पिकां.

ह्या जिल्ह्यांतल्या हापूस आंब्याची खूब नामना आसून तो परदेशांतय धाडटात. तशेंच पायरी, माणकूर, रायवळ ह्या आंब्यांचेंय उत्पादन बरेंच आसता. आंब्यापसून वेगवेगळे पदार्थ तयार करपाचें तशेंच आंब्यांचो रोस काडून तो हवाबंद डब्यांनी भरपाचो (कॅनिंगचो) वेवसाय हांगा चलता. आंब्यांखातीर लागपी खोके आनी कोंड्यांचे पांटले तयार करपाचो वेवसायूय हांगा व्हड प्रमाणाचेर चलता. भिंडां पसुन बरेंच उत्पादन मेळटा. रत्नागिरी, गुहागर, चिपळूण ह्या

किनारी प्रदेशांतलें नाल्ल हें मुखेल उत्पादन. नाल्लापसून तेल काडप, तशेंच नाल्लाच्या काथ्यापसून आनी माडापसून, ब्रश, राजू, पांयपुसणीं, पोतयो, साल्नी, सोबेच्यो वस्तू तयार करपाचे वेवसाय व्हड प्रमाणाचेर चलतात. माडाच्यो उणे उंचायेच्यो पूण चड नाल्ल दिवपी नव्यो जाती सोदून काडपाखातीर रत्नागिरी लागसार भाट्ये गांवांत नाल्ल संशोधन केंद्र सुरू केलां. बाणोली, सिंगापूरी, टी. डी. ह्या माडाच्या नव्या जातींची लागवड करतात. रूच बरी आशिल्ल्यान गुहागरी हो नाल्ल चड बरे प्रतीचो मानतात.

गुहागर, राजापूर, रत्नागिरी, दापोली आनी मंडणगड म्हालांनी माडयांचीं कुळागरां आसात. हांगा सुपारेचें उत्पादन व्हड प्रमाणाचेर जाता.

पणस हें हांगाचें खाशेलपण. गरे सुकोवप, साटां करप हे वेवसाय हांगा चलतात. हांगाच्या काजवाक परदेशांत खूब मागणी आसा. काजवाचे गर काडून ते हवाबंद डब्यांनी भरून बाजारपेठेंत धाडप हे वेवसाय चडशे रत्नागिरी जिल्ह्यांत शिरगांव आनी खेडशी गांवांनी चड चलतात. देवरुखा लागसार सडवलीक गुच्छ तणाची (सिट्रॉनॅला ग्रास) लागवड केल्या. ताचेपसून तेल काडटात. हें तेल अत्तर, उजवाती, शाबू ह्या वासाच्या वस्तुंनी वापरतात. मिरयांचें उत्पादनय हांगा काडटात.

दर्यादिगेवयल्या प्रदेशांतल्या दालदी, खारवी, भंडारी, गाबीत आनी कोळी हे लोक नुस्तेमारीचो वेवसाय करतात. दर्यांत धरिल्लें नुस्तें जिल्ह्यांत ४१ बंदरांचेर देंवोवपाची सुविधा आसा. अरबी समुद्रांत विसवण, बांगडे, कल्ली, रांवस, पांपलेट, पेडवे, रेणवे, सुंगटां हें नुस्तें मेळटा. सुंगटांचेर प्रक्रिया करपाचे तशेंच तीं हवाबंद करपाचे जिल्ह्यांत पांच कारखाने आसात. हर्णै, जैतापूर आनी रत्नागिरीक कवचां आशिल्लीं कालवां मेळटात. रत्नागिरीक मत्स्य संशोधन केंद्र आनी नुस्तेमारीचें शिक्षण दिवपी विद्यालय सुरू केलां. खावपाक उपेग नाशिल्ल्या नुस्त्याचो उपेग सान्याखातीर करतात. राजापूर म्हालांतल्या नाटे गांवांत नुस्त्याचो गोबर तयार करपाचो उद्येग आसा. तोय सान्याखातीर वापरतात. दर्यादिगेर मीठ तयार करपाचोय उद्देग चलता.

रत्नागिरी जिल्ह्यांत सुमार १८ कारखाने आसात. चिपळूणा लागसार खेर्डी, खेडांतलो लोट्याचो माळ आनी रत्नागिरी लागसार मिरजोळेक उद्देगीक वसणुको आसात. हांगाच्या कारखान्यांक कोयना जलविद्युत् प्रकल्पांतल्यान वीज पुरवण जाता. चिपळूणा लागसार अगंज तिरख्याचीं आयदनां, कागद, खड्डो, ॲल्युमिनियमाचीं आयदनां आनी रंगीबिरंगी तिजुले करपाचे उद्देग चलतात. रत्नागिरी लागसार शिमीट, शिमिटाच्यो वस्तू, लोखणी जनेलां, दारां, तिरख्याच्यो वस्तू, व्हडीं बांदप हे उद्देग हांगा चलतात. चिपळूण म्हालांतल्या खेर्डी आनी पेढांबे गांवांनी काजवाच्या बोंडापसून फेणी तयार करप, चिपळूण आनी दापोली म्हालांतल्या आंजर्ले गांवांत वखदां तयार करप, रत्नागिरी जिल्ह्यांत पाली, बसणी आनी खेडशीक शाबू तयार करप, पाडगांव - देवरूख आनी लांजे गांवांनी मातयेचीं आयदनां, राजापूर म्हालांतल्या आडिवरे, दापोली म्हालांतल्या गव्हे आनी चिपळूणाक नळे तयार करप हे उद्देग चलतात. रत्नागिरीक शाडूचे मातयेपसून गणपतीच्यो मुर्ती तयार करपाचो वेवसाय चलता. शेतकी उत्पादनाचेर खूब उद्देगधंदे चलतात. तांदूळ करपाच्यो आनी लाकूड कापपाच्यो गिरण्यो हे हांगाचे म्हत्वाचे वेवसाय.

रत्नागिरी, चिपळूण आनी संगमेश्वराक शेतम्हालाच्यो मुखेल बाजारपेठो आसात. रत्नागिरी म्हालांतल्या रनपार (रंदपार) - पावस हेमजगर्ती 'स्वरूपानंद शिपबिल्डिंग अँड शिप रिपॅर यार्ड लिमिटेड' हो तारवां बांदणी आनी दुरुस्ती प्रकल्प उबारपाचो आसा. ह्या प्रकल्पाखातीर लागपी तंत्रज्ञवर्ग तयार करपाखातीर एक प्रशिक्षण केंद्रय सुरू जावपाचें आसा.

कोंकण रेल्वे रत्नागिरी जिल्ह्यांतल्यान वता. मुंबय - कोंकण - गोंय हो १७ क्रमांकाचो राश्ट्रीय म्हामार्गूय ह्या जिल्ह्यांतल्यान वता. चिपळूणासावन कुंभार्ली घाटांतल्यान कराडाक आनी रत्नागिरीसावन आंबेघाटांतल्यान कोल्हापूराक रस्तो वता. रत्नागिरीक विमानतळ आसा. जिल्ह्यांत बाणकोट, हर्णै, दाभोळ, गुहागर, पालशेत, बोरया, जयगड, तिवरे, रत्नागिरी (भगवती बंदर), रनपार (रंदपार), पूर्णगड, मुसाकाझी हीं ल्हान व्हड बंदरां अरबी दर्यादिगेर आसात.

**लोक आनी समाजजीण :** रत्नागिरी जिल्ह्याची लोकसंख्या १९९१ वर्सा १५,३९,४१६ इतली आशिल्ली.

दर्यादिगे लागसारच्या खेडेगांवांनी नुस्तेमारी करपी लोकांची वसती आसा. खेड्यांतलीं घरां देंवत्या पाख्यांचीं आसात. हांगाच्या लोकांचो शेती हो मुखेल वेवसाय आसून ते कुकडां आनी गोरवां पोसपाचोय धंदो करतात. तांदूळ, गंव आनी खोबऱ्याचो ते आपल्या जेवणांत आस्पाव करतात. तांदळांची भाकरी, भाजी, नुस्तें हें तांचें मुखेल अन्न आसून जेवतना ते चडशे कोकमाचें सार (कडी) घेतात. रोजगाराखातीर चडशा लोकांचें मुंबय स्थलांतर जालां.

गौरी - गणपती, शिगमो हे तांचे मुखेल सण. तेन्ना भजनां, फुगड्यो, शिगम्या वेळार पालखी नाचोवप ह्यो कार्यावळी जातात. खारवी लोक सुतांपुनव व्हड उमेदीन मनयतात. दोंगराळ प्रदेशांत धनगरांची वसती आसून तेय शेती करतात. ह्याच वाठारांत कातकरीय रावतात. हे लोक म्होंव एकठांय करप, शिकार करप हे वेवसाय करून आपलें पोट भरतात. रत्नागिरी जिल्ह्यांत मुसलमान लोकांचीय बरीच वसती आसा. तशेंच हांगा अनुसुचीत जाती - जमातींचेय लोक आसात.

जिल्ह्यांत मुळाव्यो शाळा, माध्यमिक शाळा, उच्च माध्यमिक विद्यालयां, कला, विज्ञान आनी वाणिज्य फांट्यांचीं म्हाविद्यालयां आसात. दापोलीक कोंकण कृषि विद्यापीठ आसून, हेर म्हाविद्यालयां मुंबय विद्यापिठाकडेन संलग्न आसात. रत्नागिरीक शासकीय तंत्रनिकेतन आसा. तेच भाशेन जिल्ह्यांत हॉस्पिटलां, दवाखाने, मुळावीं भलायकी केंद्रां आसात.

**म्हत्वाचीं थळां :** पर्यटकांक भूल घालपी अशीं रमणीय थळां जिल्ह्यांत खूब आसात. तीं पळोवपाखातीर दर वर्सा खूब पर्यटक जिल्ह्यांत येतात. रत्नागिरी, चिपळूण, खेड, राजापूर, दापोली, दाभोळ, पोफळी, हर्णे हीं जिल्ह्यांतलीं म्हत्वाचीं नगरां आनी गांव.

चिपळूणालागसार परशुराम मंदिर, राजापूरालागसार धूतपापेश्वर, देवरूखा लागसार मारळेश्वर, रत्नागिरी लागसार गणपतिपुळे, संगमेश्वरा लागसार कर्णेश्वर ही नामनेचीं देवस्थानां. गणपतिपुळेची पर्यटन केंद्र म्हणुनूय नामना आसा. पावस गांवांत स्वामी स्वरुपानंदाची समाधी आसा. राजापूर, संगमेश्वर म्हालांतल्या राजवाडी, आरवले, दापोली म्हालांतल्या उन्हावरेक हून उदकाचे झरे आसात. इतिहासीक किल्ले हांगा खूब आसून तातुंतले रत्नागिरी लागसारचो रत्नदुर्ग, जयगड आनी पूर्णगड, चिपळूण म्हालांतलो गोवळकोट, दापोली म्हालांतलो दापोलचे खाडयेलागसारचो गोपाळगड आनी हर्णे हांगाच्या दर्यांत एक फातराळ जुंव्याचेर बांदिल्लो सुवर्णदुर्ग, खेड म्हालांतलो पालगड, महिपतगड, रसाळगड, सुमारगड हे किल्ले उल्लेख करपासारके आसात. दापोली म्हालांतल्या पन्हाळे काजी गांवालागसारचे एके दोंगुल्लेचेर कोरांतिल्लीं लेणीं मेळ्ळयांत.

- कों. वि. सं. मं.

**रथ :** पुर्विल्ल्या काळांतलो एक वाहन प्रकार. झुजामळार तशेंच हेर येरादारी खातीर रथ हें आदल्या काळांतलें सुखासीन आनी वैभवी वाहन आसलें. मध्य युगामेरेन हाचो उपेग करताले. वैदिक आर्य झुजांत रथाचो वापर करताले. रथ हो झुजाचो एक गरजेचो घटक आशिल्लो.

पुर्विल्ल्या काळांत इजिप्त, असिरिया, बॅबिलोनिया सारकिल्या जायत्या देशांनी झुजाखातीर रथाचो उपेग जातालो. हडप्पाक रथाचे दोन सांगाडे मेळ्ळयात. तांचेवयल्यान सिंधुसंस्कृतायेचेय लोक रथाचो उपेग करताले अशें दिसता.

वैदिक आर्यांक रथाविशीं जायती ओड आशिल्ली. ऋग्वेदाच्या सव्या मंडलांतलें ४७ वें सगळें सूक्त रथप्रशस्तीचें आसा. तातुंतली एक ऋचा अशी : -

इन्द्रस्य वज्रो मरूतामनीकं मित्रस्य गर्भो वरूणस्य नाभिः।
सेमां नो हव्यदातिं जुषाणो देव रथ प्रति हव्या गृभाय ।।

अर्थ : हे दिव्य रथा ! तूं इंद्राचें वज्र, मरूतांचें सैन्य, सूर्यबिंबाचो गाभो आनी वरूणाचो अंतरंग. जाल्यार हो आमचो हविर्भाग गोड करून घेवन आमच्या पाचारणाचो स्विकार कर.

ही रथकल्पना प्रतीक म्हणून उपनिषदांतूय आयिल्ली दिसता.

वैदिक आर्य रथ चलोवपांत हुशार आशिल्ले. तशेंच, रथ करपांतूय ते कुशळ आशिल्ले. ऋभूंचो वर्ग रथकार आशिल्लो अशें दिसता. कारण ऋभूंन एक सोबीत रथ करून तो अश्विनीक दिलो अशें वर्णन ऋग्वेदांत आसा.

रथाक दोन चक्रां आसतालीं. पूण अश्विनीचो रथ मात तीन चक्रांचो आशिल्लो असो उल्लेख आसा. पवी (धातूची धाव), प्रधी (घेर), वाटकूळ (मुखेल चक्र), अर (आरें), नभ्य (तुंबा) आनी अक्ष हे चक्राचे अवयव. आसाचें तोंक बुराकांतल्यान वचचें न्हय म्हणून जी



खुंटी ठोकताले तिका आणी अशें म्हण्टाले. अक्षाचेर रथाचो कोश म्हणजे मुखेल भाग आसतालो. ताका ईशा नांवाचो जोखडाक जोडपी एक उबो दांडो आसतालो. जोखड घोड्यांचे मानेचेर दवरताले. तशेंच, घोडे वांकडे - तिकडे चलचे न्हय म्हणून जोखडाच्या दोनय तोंकांक ल्हान ल्हान दांडे बसयताले. तांकां शम्या म्हण्टाले. रथाचो वेग उणो करपाखातीर वा आदार दिवपाखातीर एक जड लाकूड सकयल्या आंगाक हुमकळायताले. ताका कस्तंभी म्हण्टाले. व्हडल्या रथाक चार चक्रांय लायताले. रथाक चड करून दोन घोडे जोडटाले. गाढवां आनी खेचरां जोडिल्ल्याचेय उल्लेख आसात. तशेंच, रथाक हत्ती आनी बैल जोडटाले अशेंय वर्णन पुराणांत आसा. घोड्यांच्या फाटीवयल्यान पटो बांदताले. तोंडांत लगाम दिताले. रथाचो उबो दांडो १८८ बोटां, जोखड ८६ बोटां आनी आस १०४ बोटां आसचें अशीं मेजमापां शुल्बसुत्रांत दिल्लीं आसात. रथांत बसतल्यांक थकाय मेळची म्हणून रथाक सत्री बांदताले. तशेंच रथांत बसतल्याची वळख दाखोवपी ध्वज रथार लायताले. रथाचे फुडले वटेन लांकडाचीं वाटकुळीं आसनां आसतात. तांचेर दावेवटेन झुजारी आनी उजवेवटेन सारथी बसतालो. वाग, गेंडो आनी हत्ती हांच्या चामड्यान रथाक चारय वटांनी सोबयताले. केन्ना केन्नाय हे खातीर कांबळय वापरताले. बसकेचेरय कांबळ वा

चामडें घालताले. अशा रथांक कांबल आनी चार्मण म्हण्टाले. गिरेस्त लोक आपल्या रथाक धवी कांबळ गुठलायताले. अशा रथाक पांडुकंबली म्हण्टाले.

सैन्यांत रथी झुजाऱ्याचें मुखेल स्थान आशिल्लें. रथसंचालन कला वैदिक युगापसून महाभारतकाळामेरेन म्हत्वाची मानिल्ली. सारथ्याचें काम करप्यांक सूत म्हण्टाले. राजा, मंत्री आनी युवराज हांकांय रथविद्या शिकची पडटाली. दुस्मानान सारथ्याचेर बाण मारल्यार ताची राखण करप हें झुजाऱ्याचें काम आशिल्लें. केन्नाय सारथीच जर बाण लागून पडलो जाल्यार झुजाऱ्याकूच रथ चलोवंचो पडटालो.

श्रीकृष्ण आनी अर्जून हे दोगय रथविद्येंत प्रवीण आशिल्ले. कांय राजकन्याय रथविद्येंत प्राविण्य मेळयताल्यो अशें दिसता. मातली ब्रह्मदेव आनी शल्य हे महाभारतांत उल्लेख केल्ले आनीक कांय कुशळ सारथी.

रथ जायत्या तरांचे आसतात. तशेंच तांचीं नांवांय वेगवेगळीं आसतात. तीं म्हळयार : १) देवरथ, २) पुष्यरथ, ३) क्रिडारथ, ४) कर्णीरथ, ५) वैनयिक आनी, ६)सांग्रामिक.

शिकंदरा आडच्या झुजांत पुरू राजान रथांचो उपेग केल्लो. मौर्य राजांनी झुजांत रथांचो वापर केल्लो म्हणपाचें अर्थशास्त्रावयल्यान कळटा. पूण ताचे फुडल्या काळांत मात रथाचें म्हत्व इल्लें इल्लें उणें जायत गेलें. इ.स. च्या आठव्या शेंकड्याचे अखेरेक भारतांतल्या झुजांत रथांचो वापर करप सामकेंच बंद जालें.

बुध्दगया, भरहूत, सांची आनी अमरावतीच्या स्तुपांचेर रथांची सोबीत चित्रां कोरांतिल्लीं आसात. कौशांबी, भीटा ह्या सुवातींचेर मातयेचे ल्हान ल्हान रथ सांपडल्यात. गुप्तकालीन कलाकुसरींनीय रथांच्यो आकृत्यो दिसतात. तशेंच, देवालयाक रथाचो आकार दिवपाची चाल पुर्विल्ल्या काळासावन वास्तूशिल्पशास्त्रांत दिसता. हाची देख हंपीच्या विठ्ठलस्वामी देवळांत आनी कोनारच्या सूर्यमंदिरांत दिसता. जशी जशी विज्ञानीक उदरगत जाली आनी झुजामळार तशें येरादारीच्या मळार आधुनिक वाहनांची निर्मीती जाली तशें रथ हें वाहन काळाभायरें जालें. सदयाच्या काळांत रथ हो फकत देवालयांनी उत्सावाच्यावेळार दिश्टी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**रथयात्रा :** देवतोत्सवाच्या खाशेल्या दिसा देवतेचे उत्सवमूर्तीक रथांत विराजमान करून जी मिरवणूक काडटात तिका रथयात्रा वा रथोत्सव म्हण्टात. 'रथ' ह्या उतराचो दुसरो अर्थ 'वीर' वा 'शूर' असोय आसा. देवतांनी दैत्यांचेर जें जैत मेळयलें ते खातीर लोकांनी तांचो गौरव करपाखातीर खोशयेन मिरवणूक काडिल्ल्याचे निर्देश पुराणांत सांपडटात.

जैतवंत शूर विरांच्योय मिरवणुको रथांतल्यान काडटाले. भविश्यपुराणांत ब्रह्मदेवाचे रथयात्रेची जाल्यार देवीपुराणांत दुर्गेचे रथयात्रेची म्हायती आयिल्ली आसा. भविष्योत्तरपुराणांत तयार करपाचो रथ, उत्सवमूर्तीची तातूंत स्थापना, मिरवणूक आदींची म्हायती आयिल्ली आसा. वेदकाळांत देवांचें वाहन म्हणून रथाक खुबूच म्हत्व आशिल्लें. जायते घोडे जोडिल्ल्या इंद्राच्या रथाचीं वर्णनांय वैदिक वाङ्मयांत मेळटात. आर्यांचे सेनेचें रथ हें एक खूब म्हत्वाचें आंग आशिल्लें. रथ तयार करप्यांचो (रथकार) पुर्विल्ल्या काळांत एक वेवसायात्मक स्वतंत्र वर्गूच आशिल्लो.

महायान बौध्दांनी बुध्दमूर्तींची पुजाअर्चा सुरू केली आनी तिका ते राजोपचारय अर्पण करपाक लागले. जैतवंत राजांची रथांतल्यान जशी विजययात्रा काडटाले तशेच उपचार बुध्दमूर्तीकय करूंक लागले आनी तातुंतल्यानूच रथयात्रेचो उगम जालो आसुंये. जंय जंय महायान पंथाचो प्रसार जालो थंय थंय भांगराचे बुध्दमूर्तीची रथयात्रा काडपाची प्रथा पातळत गेली.

वैशाखी अश्टमीक जाल्ल्या पाटलिपुत्र नगरांतले बुध्दाचे रथयात्रेचें सविस्तर वर्णन फाहियान (पांचवो शेंकडो) ह्या चीनी यात्रिकान बरोवन दवरिल्लें आसा. लोकांची भलायकी आनी सुखाखातीर मार्गशीर्श शुक्ल पक्षांत सूर्याची रथयात्रा करची अशें हेमाद्रीच्या चतुर्थचिंतामणींत म्हळां. माघ शुध्द सप्तमीक सूर्याचें चित्र काडून रथाचें दान आनी पुजा करपाचें व्रतूय हिंदूंत आसा. ह्या व्रताक रथसप्तमी, भानुसप्तमी, रथांकसप्तमी आनी रथांगसप्तमी अशींय नांवां आसात. कोनारकाचें नामनेचें सूर्यमंदीर हें भव्य रथाकाराचें आसा. तशेंच महाबलीपूरचें 'पांडवरथ' म्हणून वळखतलें देवुळय प्रसिद्द आसा.

जायत्या देवस्थानांनी देवस्थानाचे ऐपतीप्रमाण ल्हान - व्हड रथ तयार करून दवरिल्ले आसतात आनी त्या त्या देवोत्सवाच्या वेळार ते सजोवन शृंगारून तातूंत उत्सवमूर्ती दवरतात. भावीक लोक आपूण जावन तो रथ ओडटात. घोडे, हत्ती आनी बैल जोडुनय रथाची मिरवणूक काडटात. ज्या मार्गान रथ वचपाचो आसता तो मार्ग नितळ करून, रांगोळी तशेंच हेर वस्तींनी सजयतात. ह्या रथाक चडकरून चार, आठ, बारा, सोळा अशीं चक्रां आसतात. रथाचो आकार देवळाची गर्भकूड आनी कळस हांचे भाशेन आसता. ध्वजपताका आनी फुलांच्या माळांनी रथ सोबीत करतात. रथाच्या अलंकरणांत तांबें, पितूळ, भांगर, रुपें ह्या धातुंच्याय अलंकारांचो चड - उण्या प्रमाणांत उपेग करतात. चडशे कडेन रथांत उत्सवमूर्ती दवरून रथाचे फुडले वटेन बांदिल्ले लांब दोरयेक धरून भावीक तो रथ ओडटात. ताचेफुडें वाजंत्री आसतात आनी फोगय लायतात. दक्षिण भारतांत रथाफुडें देवदासी नाच करतात. पुरयत, वैदिक गण रथा - फाटल्यान मंत्रगान, भजन म्हणत चलतात.

दक्षिणेंत शिवाचे रथयात्रेंत शैव धर्मग्रंथ तेवारमांतले वेंचीक भाग गायतात. रथामुखार आनी चक्रासकयल नाल्ल फोडटात, गुलाल उधळटात आनी देवतेचो व्हडान जयजयकार करतात. ल्हव ल्हव ही रथयात्रा फुडें वता. वाटेर भावीक लोक देवतेक फुलां आनी पुजेचें सामान भेटयतात. उत्सवाच्या वेळार देवतेची जात्राय भरता. थाराविक जाग्यामेरेन हो रथ व्हरून निमाणें थंय पुजा जातकच परत तो रथ मूळ देवस्थानांत हाडटात.

वैशणवांमदीं पुरी हांगाची जगन्नाथाची रथयात्रा सगळयांत व्हड आनी प्रसिद्द आसा. अक्रूरान कृष्णाक आनी बलरामाक गोकुळांतल्यान रथांत बसोवन मिरयत मथुरेंत हाडले. त्या दिसापसून रथयात्रेची प्रथा सुरू जाली अशी वैशणवांची धारणा आसा.

गोंयांतल्या भोवतेक व्हड देवळांनी वर्सुकी रथोत्सव जाता. भाविकांनी आपल्या खांदार धरिल्ले चक्रांविरयत रथ आनी हातांनी ओडिल्ले चक्रांचे रथ (तेर) अशे दोन तरेचे रथ आसतात.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : रथ

**रथसप्तम :** माघ शुध्द सप्तमीची तीथ. हाचेभायर अचलासप्तमी, माकरीसप्तमी हीं हेरूय नांवां हे सप्तमीक आसात. सप्तमीच्या व्रताचें विधान अशें - सशठी दिसा एकभुक्त रावन सप्तमी दिसा फांतोडेर न्हावन घेवन पणटी पेटोवन माथ्यार दवरून सूर्याचें ध्यान करचें. उपरांत तो दिवो उदकांत सोडचो. घरच्या आंगणांत रक्तचंदनान सात घोड्यांच्या सुर्याचो रथ आनी ताचेर अरूणा वांगडा सूर्यप्रतिमा काडप आनी उपरांत 'ध्येयः सदा सवितृमण्डलमध्यवर्ती' ह्या मंत्रान ध्यान करून पुजा करप. आंगणांत शेणयांचे रान्नीर मातयेच्या बुडकुल्यांत खीर शिजोवन तिचो निवेद्य ताका दाखोवप. सात धान्यां, सात रूईचीं पानां आनी सात बोरां सूर्याक ओंपचीं. अश्टांग अर्ध्य दिवंचें आनी ब्राह्मणाक जेवण वाडचें.

महाराष्ट्रांत हें व्रत चड करून बायलोच करतात. त्या दिसा हळदकुकूम करपाचीय चाल आसा.गोंयांतय जायत्या जाणांगेर हें व्रत करतात.

ह्या व्रताची कथा अशी - कांबोज देशांत यशोवर्मा नांवाचो एक राजा आशिल्लो. ताका म्हातारपणांत एक चलो जालो. पूण तो पिडेस्त आशिल्लो. ताचे भलायकेविशीं ताणें जेन्ना एका ज्योतिशाक विचारलें तेन्ना आदल्या जल्मांत गरिबांचो छळ केलो आनी सुर्याची पुजा केलीना, देखून ताची अशी गत जाली म्हणपाचें कळ्ळें. ताका बरी भलायकी मेळची देखून रथसप्तीक सूर्याची पुजा करची, अशें ताणें सांगलें. राजान तशें केलें आनी ताका लागून ताचो चलो सशक्त आनी सुखी जालो.

दक्षिणेंत हे तिथीक रातचें गायन, वादन, दिपोत्सव आनी रथोत्सव करपाची चाल आसा. रथसप्तमीचो दीस हो एक शुभ दीस मानून ते दिसा घर प्रवेश, नव्या आस्थापनाची, धंद्यावेवसायाची सुरवात करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रदरफर्ड, अर्नेस्ट :** (जल्म : ३० ऑगस्ट १८७१ स्प्रिंग ग्रोव्ह (ब्रायटवॉटर), न्यूझीलंड; मरण : १९ ऑक्टोबर १९३७ कॅंब्रिज).

नामनेचो ब्रिटीश भौतिकीविज्ञ. किरणोत्सर्ग आनी आणवीय संरचनेचो अणुकेंद्रीय सिध्दांत हे विशींच्या कार्याखातीर ताका खूब नामना मेळ्ळी. तशेंच किरणोत्सर्गाविशींच्या ताच्या कार्याक लागून ताका १९०८ वर्साच्या रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.



क्रायस्टचर्च हांगाच्या कॅंटरबरी कॉलेजींतल्यान ताणें १८९२ वर्सा बी. ए. ची आनी १८९३ वर्सा एम. ए. ची पदवी घेतली आनी थंयच एक वर्सभर ताणें उच्च कंप्रतेच्या प्रत्यावर्ती चुंबकीय क्षेत्राविशीं संशोधन केलें. हाका लागून ताका इंग्लंडांत कॅंब्रिज विद्यापिठांत उंचेलें शिक्षण घेवपाखातीर शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. थंय ताणें जे. जे. टॉमसन हाच्या मार्गदर्शनाखाला सुरवेक ह्याच विशयाचेर आपलें संशोधन चालू दवरलें.

१८९६ वर्सा ताणें क्ष - किरण कसल्याय वायूंतल्यान व्हेल्यार जावपी परिणामाविशीं टॉमसन हाचेवांगडा संशोधन करपाक सुरवात केली. क्ष - किरणांक लागून व्हड प्रमाणांत धन आनी ऋण विद्युत् भारीत कण तयार जातात आनी ह्या कणांचें परतून संयोजन जावन विद्युत् नदरेन उदासीन अशे रेणू जातात अशें ताका दिसलें. रदरफर्डानं ह्या धन आनी ऋण आयनांच्या संयोजनाचो वेग आनी त्वरा मेजपाचें यंत्र सोदून काडलें. युरेनियमासावन उत्सर्जीत जावपी किरणांक लागून हवेचें आयनीकरण जाता. पूण हे किरण क्ष - किरणांभाशेन नासून दोन वेगळया वेगळया तरांच्या प्रारणांचे जाल्ले आसतात अशें ताणें दाखोवन दिलें. हातुंतल्या आयनीकरणाची उच्च क्षमताय आशिल्ल्या पूण सहज तायेन शोशून घेवपी प्रारणाक ताणें 'आल्फा किरण' आनी आयनीभवनाची क्षमताय उणी पूण भेदन क्षमताय चड आशिल्ल्या प्रारणाक 'बिटा किरण' अशीं नांवां दिल्लीं. हे किरण सामके सुक्षीम कणरुपी आसुंये हो ताचो दुबाव खरो थारलो आनी उपरांत १९०० वर्सा ताणें किरणोत्सर्गी द्रव्यासावन उत्सर्जीत जावपी चुंबकीय क्षेत्रान

विचलीत जावपी न्हय अशें आनी उच्च उर्जा युक्त आशिल्लें तिसरे तरेचें प्रारण सोदून काडलें. ह्या विद्युत् चुंबकीय प्रारणाक ताणें 'गॅमा किरण' अशें नांव दिलें. इ.स. १८९८ वर्सा रदरफर्डची, कॅनडांतल्या मॉट्रियालच्या मॅक्‌गिल विद्यापिठांत भौतिकीच्या अध्यासनाचेर नेमणूक जाली. थंय ताणें आपलें किरणोत्सर्गासंबंदीचें संशोधन चालू दवरलें. ह्या संशोधनांत ताका फ्रॅडरिक सॉडी हाचो सहकार मेळ्ळो. तांणी रेडियम, थोरियम आनी ॲक्टिनियम ह्या किरणोत्सर्गी मूलद्रव्यांच्या तीन पंगडांविशीं संशोधन केलें. थोरियम वा ताचीं संयुगां हांचेपसून एक किरणोत्सर्गी वायू उत्सर्जीत जाता अशें ताका समजलें, ताका तांणी एमॅनेशन अशें नांव दिलें. किरणोत्सर्ग हे प्रक्रियेंत एका मूलद्रव्याचे अणू तयार जातात आनी हे अणूय किरणोत्सर्गी आसतात, असो निश्कर्श रदरफर्ड आनी सॉडी हांणी १९०२ वर्सा काडलो. १९०४ वर्सा रदरफर्ड हाणें रेडिओॲक्टिव्हिटी ह्या आपल्या ग्रंथांत ह्या विशयावयल्या संशोधनाचें फलीत ताणें थोडेभितर मांडलें. १९०७ वर्सा रदरफर्ड, इंग्लंडांतल्या मँचेस्टर विद्यापिठांत भौतिकीचो प्राध्यापक जालो आनी थंय ताणें आल्फा कणांविशींचें संशोधन फुडें चालू दवरलें. टी. डी. रॉयड्स ह्या शिश्यावांगडा ताणें आल्फा कण हे दोन इलॅक्ट्रॉन वगडायल्ले हिलियमाचे अणूच आसतात अशें १९०८ वर्सा सिध्द केलें आनी त्याच वर्सा मूलद्रव्यांचें विघटन आनी किर्णोत्सर्गी द्रव्यांचें रसायनशास्त्र हेविशीं केल्ल्या संशोधनाविशीं ताका रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. १९११ वर्सा ताणें आणवीय संरचनेविशींचो आपलो अणुकेंद्रीय सिध्दांत मांडून विज्ञानांतली सगळयांत म्हत्वाची कामगिरी केली. कसल्याय मूलद्रव्याचें रसायनीक स्वरूप ताच्या अणुकेंद्रांतले धन विद्युत्‌भारीत कणांचे संख्येचेर आदारून आसता असो निश्कर्श रदरफर्डान काडलो. ह्या धन विद्युत्‌भारीत कणांक ताणें 'प्रोटॉन' हें नांव दिलें.

पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत ताणें पाणबुडयेचें अस्तित्व वळखुपाखातीर ध्वनिकीय पद्दत वापरपाविशीं संशोधन केलें. १९१९ वर्सा ताची कँब्रिज विद्यापिठांत भौतिकीच्या कॅव्हॅंडिश अध्यासनाचेर आनी कॅव्हॅंडिश लॅबोरेटरीच्या संचालकपदाचेर नेमणूक जाली. थंयच ताणें १९१९ वर्सा 'अणुकेंद्राचें कृत्रीम विघटन' हो आपलो तिसरो म्हत्वाचो सोद लायलो. नायट्रोजनाच्या अणुची आल्फा कणावांगडा टक्कर जाल्यार ताचें ऑक्सिजन अणूंत आनी हायड्रोजन अणूंत रुपांतर जाता अशें ताणें प्रयोगावरवीं दाखोवन दिलें. ह्या संशोधनाचो परिणाम म्हणून अणुऊर्जा युगाचो उदय जालो. १९२० वर्सा ताणें न्यूट्रॉनाच्या आनी हायड्रोजन तशेंच हिलियम हांच्या समस्थानिकांच्या अस्तित्वाचें भविश्य सांगिल्लें. १९२१-२४ ह्या काळांत जेम्स चॅडविक हाचे वांगडा संशोधन करून ताणें बोरॉन, फ्ल्युओरीन, ॲल्युमिनियम आनी फॉस्फरस हांचें मूलद्रव्यांतरण करपांत यश मेळयलें.

नोबॅल पुरस्कारा भायर ताका अनिकय बरेचशे पुरस्कार मेळ्ळयात. तातुंतले कांय उल्लेख करपासारके आसात ते अशे - ब्रिटीश सरकारान नायट (१९१४) आनी ऑर्डर ऑफ मॅरिट (१९२५) तशेंच नॅल्सनाचो पयलो बॅरन (१९३१) हे भोवमान दिले. रॉयल सोसायटीन ताका १९०३ वर्सा फॅलो म्हणून वेंचून काडलो आनी रम्फर्ड (१९०५) आनी कॉप्ली (१९२२) हीं पदकां भेटयलीं. ब्रिटीश ॲसोसिएशन फॉर द ॲडवान्समेंट ऑफ सायन्स हे संस्थेचो (१९२३) आनी रॉयल सोसायटीचो (१९२५-३०) तो अध्यक्ष आशिल्लो. अमेरिकेच्या नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचोय तो वांगडी आशिल्लो.

रेडिओॲक्टिविटी ह्या वयर सांगिल्ल्या ग्रंथावांगडा ताणें रेडिओॲक्टिव ट्रान्सफॉर्मेशन्स (१९०६), रेडिएशन्स फ्रॅम रेडिओॲक्टीव सबस्टन्सीस (जेम्स चॅडविक आनी सी. डी. एलीस हांचेवांगडा १९१९,१९३०), द इल्कॉक्ट्रिकल स्ट्रक्चर ऑफ मॅटर (१९२६), द आर्टिफिशियल ट्रान्सम्युटेशन ऑफ एलेमेंट्स (१९३३), आनी द न्युअर अल्केमी (१९३०) हे ग्रंथ आनी बरेचशे संशोधनात्मक निबंद बरयले. मँचेस्टर विद्यापिठांतल्या रदरफर्ड हाचे प्रयोगशाळेंत गायगर, बोर, हॅन्री मोझली ह्या नामनेच्या शास्त्रज्ञांनी रदरफर्डाच्या मार्गदर्शनाखाल संशोधन केलें.

- कों. वि. सं. मं

**रनो, ल्वी :** ( जल्मः २१ मे १८४३ ओतूं, फ्रांस; मरणः ८ फेब्रुवारी १९१८, बार्बिझाँ).

फ्रेंच विधिज्ञ आनी संवसारीक शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो मानकरी. मध्यमवर्गीय कुटुंबांत जल्मल्ल्या रनो हाणें विश्वविद्यालयीन शिक्षण घेवन उपरांत १८६७ वर्सा कायद्याची उच्च पदवी घेतली. १८७४ ते १८८१ ह्या काळांत ताची दिझाँ आनी पॅरीस विद्यापिठांत प्राध्यापक म्हणून मेमणूक जाली. फुडें पॅरीस विद्यापिठांत ताणें 'आंतरराश्ट्रीय विधी' हो विशय सुरू करून प्राध्यापक म्हणून निवृत्तीमेरेन काम केलें. तेखातीर 'इन्स्टिटयूट ऑफ इंटरनॅशनल लॉ' हे प्रतिश्ठीत संस्थेचें अध्यक्षपद ताका फावो जालें. १८९० वर्सा फ्रांसाच्या परराश्ट्रीय खात्यांत ताची सल्लागार सहाय्यक म्हणून नेमणूक जाली. तेचभाशेन ताणें बऱ्याचशा संवसारीक कायद्यांविशींच्या परिशदांनी फ्रांसाचें प्रतिनिधित्व केलां.

बऱ्याचशा संवसारीक वादग्रस्त प्रकरणांनी ताचो सल्लो घेवप जातालो. १९०७ वर्साच्या द हेग हांगा भरिल्ले शांतताय परिशदेक तो फ्रेंच प्रतिनिधी म्हणून हाजीर आशिल्लो. द हेगच्या आंतरराश्ट्रीय लवादाचो एक निपक्षपाती वांगडी म्हणून ताणें नामना मेळयल्ली. स्वातंत्र्यवीर वि. दा. सावरकर हाच्या राजकीय आश्रयाविशींच्या विवाद्य प्रकरणांत न्याय चवकशे वेळार ताणें सावरकराआड ब्रिटनचे वटेन निकाल दिल्लो (फेब्रुवारी १९११). ह्या निकालासंबंदीं त्या काळांतल्या

खबरांपत्रांनी देखीक - द मॉर्निंग पोस्ट, द डेली न्यूस (इंग्लंड), पोस्ट (जर्मनी), द टायम्स (इंग्लंड) हांणी टिका केली.

रनोन आपली उरिल्ली जीण कायद्याचो अभ्यास आनी संवसारीक शांतिकाय आनी निशस्त्रीकरण हातूंत सारली. तशेंच द हेगच्या आंतरराष्ट्रीय लवाद मंडळाचो तो सभासद आसतना संवसारीक शांतिकाय आनी निशस्त्रीकरणाचें बारीकसाणीन पालन जावचें म्हणून खूब यत्न केले. ताच्या ह्या शांतता कार्याखातीर ताका १९०७ वर्सा एर्नेस्तो मोनेअता हाचेवांगडा शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

आंतरराष्ट्रीय लवाद न्यायालयाच्या निकालांत शक्य तितली एकजूट आसची अशें ताचें मत आशिल्लें. फ्रांसाच्या सक्रीय राजकारणांत ताणें केन्नाच वांटो घेतलोना. ताणें आंतरराष्ट्रीय कायदो आनी वेपार हांचेर खूब लिखाण केलां.

इंट्रोडक्शन टू द स्टडी ऑफ इंटरनॅशनल लॉ, कॉम्पेण्डियम ऑन कमर्शियल लॉ हे ताणें बरयल्ले कांय विशेश ग्रंथ.

- कों. वि. सं. मं.

**रफी, महंमद :** (जल्म : २४ डिसेंबर १९२४ कोटला सुलतानसिंग, जि. अमृतसर; मरण : ३१ जुलय १९८० मुंबय).

भारतीय चित्रपट सृश्टींतलो एक नामनेचो पार्श्वगायक. एक सधन शेतकार कुटुंबांत जल्मल्ल्या रफीक शेताची वा शिक्षणाची आवड ना तें पळोवन ताका लाहोराक ताच्या व्हडल्या भावाकडेन धाडलो. व्हडल्या भावान ताची गावपाची कला रोखडीच पारखिली आनी छोटे गुलाम अली खाँसाहेब, अब्दुल वहीद खाँसाहेब अशा उस्तादांकडल्यान ताका गायन शिकोवपाची वेवस्था केली. ह्याच काळांत रफीची रागदारी पक्की जाली.

फुडें दोन वर्सां ताणें फिरोझ निझामी हाचेकडेन शागिर्दी केली. निझामी लाहोर नभोवाणी केंद्राचो संगीत दिग्दर्शक जालो तेन्ना ताणें रफीक नभोवाणीचेर गावपाची संद दिली. उपरांत निझामीची दिल्ली केंद्राचेर बदली जाली तेन्ना रफी दिल्लीक गेलो. ह्याच काळांत लाहोराक चित्रपट निर्मिती सुरू जाल्ली. 'गुलाबलोच' (१९४४) ह्या पंजाबी चित्रपटांत संगीत दिग्दर्शक श्यामसुंदर हाणें रफीक दोन पदां म्हणपाची संद दिली.

दिग्दर्शक नाझीर हाणें रफीक मुंबयचे चित्रपटसृश्टींत हाडलो आनी रफीन ताच्या 'लैला मजनू' (१९४५) ह्या चित्रपटांत ल्हान भुमिकाय केली. योगायोगान लाहोरचो संगीत दिग्दर्शक श्यामसुंदर तेन्नाच मुंबयंत आयिल्लो आनी गाँव की गोरी (१९४५) ह्या पयल्याच हिंदी चित्रपटांत ताणें रफीक पार्श्वगायनाची संद दिली.

रफीचो गुरू फिरोझ निझामी हो त्याच वेळार जुगनू (१९४७) ह्या चित्रपटाचो संगीत दिग्दर्शक म्हणून मुंबयंत आयलो आनी रफीक त्या चित्रपटांत पार्श्वगायक म्हणून संद मेळ्ळी. तातुंतल्या 'यहाँ बदला वफाका' ह्या नूरजहाँ वांगडा गायिल्ल्या द्वंद्वगिताक लागून रफीची खाशेले पंजाबी ढंगाचे गायकीक खूब नामना मेळ्ळी. 'प्यार की जीत' (१९४८) ह्या चित्रपटांतल्या 'इस दिल के टुकडे हजार हुए' ह्या हुस्नलाल - भगतराम हांणी स्वरबध्द केल्ल्या पदान रफीक खुबच नामना मेळ्ळी.

३६ वर्सांच्या काळांत रफीन आपल्या दर्दभरीत आवाजान २५ हजारांवयर पदां गायलीं आनी पयले श्रेणीचो पार्श्वगायक म्हणून कीर्त मेळयली. हातूंत भजन, रागदारी, गजल, कवाली अशा विंगड विंगड गीतप्रकारांचो आस्पाव जाता. विविध भावनांची विविध ढंगांतली स्वरसंपदा रफीकडेन आशिल्ली.

दिलीपकुमार, अशोककुमार हांचे सावन ऋषीकपूर मेरेन चडशा सगळ्या चित्रपटांतल्या नायकांक ताणें आपलो आवाज दिला. गुलाम हैदर, नौशाद, शंकर जयकिशन, ओ.पी. नय्यर, रोशन, सचिनदेव बर्मन, लक्ष्मीकांत प्यारेलाल, आर.डी.बर्मन, कल्याणजी - आनंदजी हांचेसारक्या हिंदी चित्रपटसृश्टींतल्या नामनेच्या संगीत दिग्दर्शकांचीं पदां रफीन गावन लोकप्रिय केलीं.

परदेशांत ताणें खूब फावटीं आपल्या संगिताच्यो कार्यावळी केल्यो. ताका 'स' फावटीं बरो पार्श्वगायक म्हणून 'फिल्म फॅर' पुरस्कार मेळ्ळे, ते अशे - 'चौदहवी का चाँद हो या आफताब हो' (चौदहवी का चाँद), तेरी प्यारी प्यारी सूरत को (ससुराल), चाहुंगा मैं तुझे शाम सबेरे (दोस्ती), बहारो फूल बरसाओ (सूरज), 'दिल केझरोखे में तुझको बिठाकर (ब्रह्मचारी), क्या हुआ तेरा वादा (हम किसी से कम नहीं).

रफीन 'बापूजी की अमर कहानी' सारकीं देशभक्तिपर आनी हेर पदांय गायल्यांत. १९७३ वर्सा ताका 'पद्मश्री' हो किताब मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**रबर :** वनस्पतीच्या दिखापसून (सैमीक) आनी रसायनाचे प्रक्रियेपसून (कृत्रीम) तयार केल्लो पदार्थ.

हो रबर आयसोप्रीन एककांचे ($C_5H_8$) हायड्रोकार्बनी बहुवारीक (जायत्या एकक रेणूंच्या संयोगान जाल्ले जटील रेणू आशिल्लें संयूग) आसता. रसायनीक प्रक्रियांनी विकसीत केल्ल्या संश्लेशीत रबराचें रसायनीक संघटन वेगळें आसलें तरीय सैमीक रबरासारके ताचे जायते भौतीक गूणधर्म आसात.

**सैमीक रबर :** प्येत्रो मार्तिरे दांगग्येरा (१४५७ - १५२६) हो ह्या दिखाचें वर्णन करपी पयलो युरोपियन आशिल्लो. मध्य मेक्सिकोंतल्या ॲझटेक ह्या अमेरिकन इंडियन जमातींतल्या लोकांच्या पेल्लाच्या खेळाचें ताणें वर्णन केलां.

अमेरिकेचे दुसरे भोंवडेंत (१४९३ - ९६) कोलंबसान हायती जुंव्यावयले थळावे इंडियन लोक खास अशा झाडाच्या दिखापसून तयार केल्ल्या पेल्लाचो वापर करतात तें पळयलें. तशेंच ओबड - धोबड जोर्तीं आनी बाटल्यो करपाखातिरय ह्या दिखाचो वापर करताले. दिखांत लाकडी दांडो बुडोवन तो उज्याच्या धुंवराचेर धरून धुंवडायताले आनी ताका लागून दिखाचो घट्ट गुळो तयार जातालो. ज्या झाडांचो दीख अशे तरेन घट्ट जायनाशिल्लो ताच्या दिखांत हेर वालींचो रस घालून तो घट्ट करताले.

अठराव्या शेंकड्यांत इस्ट इंडीज जुंव्यांतल्यान रबराची आयात जावपाक लागली आनी शिसपेन्सिलीच्यो ओळी खोडपाक ताचो उपेग जाता अशें जोसेफ प्रिस्टली ह्या प्रसिद्द रसायनशास्त्रज्ञाक कळ्ळें. तेउपरांत ताणें ताका 'रबर' हें नांव दिलें. इस्ट इंडिज जुंव्यावयल्यान ही आयात जाताली देखून 'इंडीया रबर' ह्या नांवानच तो वेपारांत वळखताले. रबराचें दुसरें पोरनें वेपारी नांव काउचुक अशें आसा आनी तें दक्षिण अमेरिकेंतल्या थळाव्या नांवावयल्यान रूढ जालां. काउचुक उतराचो अर्थ 'दुकां गळोवपी झाड' असो जाता आनी ह्या झाडांतल्यान व्हांवपी दिखाकडेन ताचो संबंद आसा.

सतराव्या शेंकड्यापयलीं रबराक उद्देगीक नदरेन म्हत्व नाशिल्लें. पूण आधुनीक काळांत जायत्या तरांच्या उद्देगीक उत्पादनांखातीर तो वापरतात. १९०० वर्सामेरेन सैमीक रबराचें उत्पादन फकत ८०० टन आशिल्लें, तें १९८२ त सुमार २१ लाख टनांमेरेन वाडलें. संवसारांतल्या मुखेल पिकांनी रबर हें सामकें हालींचें पीक.

अठराव्या शेंकड्यांत सुरवेकपसून युरोपाची जरी दक्षिण अमेरिकेंतल्या रबराकडेन वळख जाल्ली तरीय रबरी वस्तू तयार करपाचो उद्देग रोखडोच सुरू जावपाक शकलोना. कारण युरोपाक मेळपी रबर घनरूप आशिल्लो. हाका पर्यायी मार्ग म्हणजे घन रबर कसल्याय विद्रावकांत (विरगळावपी द्रवांत) विरगळावन ताचो विद्राव करप आनी ताचो उपेग चिकासारको करप. ते नदरेन एल्. ए. पी. हेरिसाँ आनी पी. जे. मॅक्यूर ह्या शास्त्रज्ञांनी यत्न केले तेन्ना घन रबर टर्पेंटायनांत विरगळटा अशें १७६१ त तांकां कळ्ळें आनी अशा तरेच्या विद्रावापसून तयार केल्ल्यो वस्तू बेगीन चिकट जातात असो अणभव आयलो. एम्. ग्रोसार्ट हाणें १७९१ त घन रबरापसून पातळ पट्ट्यो कापून काडल्यो आनी त्यो विद्रावकान मोव करून कंवचेच्या नळयांभोंवतणीं गुठलावन नळी करपाची एक कृती बसयली. पूण हो यत्न यशस्वी जालोना. टॉमस हॅन्कॉक हाणें १८२० त 'पिकल' नांवाचें यंत्र सोदून काडलें. ह्या यंत्राच्या आदारान रबरांत हेर पदार्थूय भरसप सोंपें जाता म्हणपाचें कळ्ळें. ह्या यंत्रांत रबराचे बारीक कुडके घाल्यार रबराचो लिबलिबीत गुळो जाता अशें दिसलें आनी अशा रबरापसून ठोकळे करप आनी ते वापरप सोयीचें जालें.

इ.स. १८२३ च्या अदमासाक चार्ल्स मॅकिंटॉश हाणें कपड्याक रबराचो विद्राव लावन जलाभेद्य कापड करपाचो धंदो सुरू केलो. अमेरिकेंत संयुक्त संस्थानांत रबराचो प्रवेश रबरी बुटांनी जालो. १८२०त जे. जे. हौ ह्या संशोधकान चिवट घन रबरापसून आकार दिवपाक जातले अशे मोव गुळे करपाखातीर एक यंत्र तयार केलें आनी ताचें एकस्व (पेटंट) मेळयलें. ह्या यंत्राच्या आदारान पिठाभाशेन मोव रबराचो गुळो तयार करपाक जातालो आनी मागीर ताका जाय तसो आकार दिवपाक मेळटालो. तशेंच रबरांत किदेंय पदार्थ भरसुपाचो आसल्यार तेंय करपाक मेळटालें.

इ.स. १८३१ त एडवीन चॅफी हाणें टर्पेण्टायनांत रबर विरगळावन केल्ल्या विद्रावांत काजळी भरशिल्ली आनी तें मिश्रण कातडी बुटांक लावन पळयलें. तेन्ना विलेपनान बूट चकचकीत जातात आनी भिजले तरीय उदक भितर येना म्हणपाचें दिसलें. अशे बूट तयार करपाचो धंदो ताणें 'रॉक्सबरी रबर कंपनी' ह्या नांवान सुरू केलो. हौ हाचे कल्पनेचो आदार घेवन चॅफीन १८३६ त एक सुदारीत मिश्रणयंत्र तयार केलें. ह्या यंत्राच्या आदारान टर्पेण्टायन वापरून जावं टर्पेण्टायन वापरी नासतनाय एकजीव रबर भरसणां तयार करप सोंपें जालें. ताचेउपरांत चॅफीन आनिकय एक यंत्रप्रकार तयार केलो. ह्या यंत्रप्रकाराक कॅलेंडर म्हण्टाले. ताच्या यंत्रांक लागून भरसणां तयार करप सोंपें जालेंच आनी खर्चूय उणो जालो. तशेंच, वस्त्राक रबर विलेपन करप शक्य जालें. जलाभेद्य कापड तयार करपाचो धंदो ताका लागून वाडलो. पूण ही वाड चड तेंप तिगलिना. कारण रबरी वस्तू गरमेन मोव आनी चिकट जाताल्यो आनी तांकां घाण येताली. तशेंच थंडेकलागून त्यो कडक आनी कुरकुरीत जाताल्यो. रबराचो हो दोश पयस करपाची कामगिरी चार्ल्स गुडइयर (१८००- ६०) हाणें केली. रबरांत गंधक भरसून भरसण तापयलें जाल्यार रबर टिकाऊ जाता म्हणपाचें ताका १८३९ त कळ्ळें. हे प्रक्रियेक व्हल्कनीकरण (व्हल्कनायझेशन) हें नांव दिवपांत आयलें. ह्या सोदाक लागून रबरी वस्तुंच्या उत्पादनाचो धंदो थीर बसकेचेर उबो रावलो.

व्हल्करणाखातीर चड करून रबरांत २% गंधक वापरतात. हें प्रमाण जर सुमार ३२% मेरेन वाडयलें जाल्यार लाकडाअसलो एक घट्ट पदार्थ तयार जाता असो सोद १८५० त नॅल्सन गुडइयर हाका लागलो. त्या पदार्थाक एबोनायट, व्हल्कनायट जावं हार्ड रबर म्हण्टात. हो एक उपेगी पदार्थ आसून मोटारींतल्यो विद्युत् घटमालेच्यो पेटयो ह्या वस्तुंखातीर तो वापरतात. पयलीं तो फाउंटन पॅनां, दांतांच्यो कवळयो, गुडगुडेच्या पायपाचे दांडे तयार करपाखातीर वापरताले.तो बरो विद्युत् निरोधक आशिल्ल्यान तारायंत्र आनी दूरध्वनी हांच्या उत्पादनांनीय ताचो वापर करताले.

१८६१ च्या अदमासाक लंडनांत घोड्यागाडयेच्या चक्रांक भरीव रबरी टायर लायले. सायकलीचो सोद लागलेउपरांत १८६९ च्या अदमासाक तांकां भरीव रबरी टायर बसयले. हवा भरपाच्या पोकळ रबरी टायरांची कल्पना १८८८ त जॉन बॉयड डनलॉप हाका सुचली. लोकांक अशे टायर मानवतात म्हणपाचें कळ्ळे उपरांत ताणें १८८९त एच्. ड्यू क्रॉस हाच्या आदारान टायर करपाचो कारखानो य काडलो. ताचे उपरांत १८९५ त बॉर्दो ते पॅरीस आनी परत अशा मोटारगाडयांचे सर्तीत मुद्दाम तयार केल्ले मोटारगाडयेक रबरी पोकळ टायर पयलेच फावट लायलो. तो जरी पुराय समाधानकारक नाशिल्लो तरीय मोटारींक अशे टायर बसोवपाक हांगाच्यान सुरवात जाली. १९१० त विमानाच्या चक्रांक बसोवपाखातीर डनलॉप कंपनीन रबरी टायर बसयले.



दीक काडपाची पद्दत

**रबराचें उत्पादन दिवपी वनस्पत :** ७९ कुळांतल्या ३११ प्रजातींच्या ८९५ जातींतल्या वनस्पतींच्या दिखांत सैमीक रबर मेळटा. ह्यो वनस्पती संवसारभर पातळिल्ल्यो आसात. पूण हातुंतल्या थोड्याच जातींचो रबर उत्पादनाखातीर उपेग करतात.

**(१) हेविया ब्राझीलियन्सिस :** (इंग्लीश पॅरा रबर ट्री, काउचुक ट्री, कूळ - युफोर्बिएसी) - मूळची ही ॲमेझॉन देगणांतली जात आसून सद्या ती आग्नेय आशियेंत व्हड प्रमाणांत लागवडींत आसा. संवसारांतल्या सैमीक रबराच्या उत्पादनांतलें सुमार ९८% उत्पादन हे एके जातीपसून जाता.

**(२) कॅस्टिल्ला इलॅस्टिका आनी कॅ. उलेई :** (कूळ - मोरेसी)- आशियांतल्या रबर मळयांची वाड जावचेपयलीं रानटी रबराच्या वेपारी प्रमाणांतल्या उत्पादनांत ह्यो दोन जाती म्हत्वाच्यो आशिल्ल्यो. कॅ. इलॅस्टिका ही मेक्सिको आनी मध्य अमेरिकेंतल्या रानांत वाडपी आनी त्या काळांत सगळ्यांत चड उत्पन्न दिवपी जात आसून सुमार १८५० मेरेनचें रानटी रबराचें उत्पादन चड करून ह्या जातीपसुनच मेळटालें आनी ताका 'पनामा रबर' ह्या नांवान वळखताले. कॅ. उलेई ही जात ॲमेझॉन न्हंयेच्या देगणांत वाडपी आसून तिचेपसून काडिल्लें रबर काउचुक ह्या नांवान वेपारांत वळखताले.

**(३) मॅनिहॉट ग्लॅझिओव्ही :** (इंग्लीशः सीआरा रबर, मॅनिकोबा रबर, कूळ - युफोर्बिएसी) - मुळांत ब्राझीलाच्या वाठारांत वाडपी ल्हान झाड आसून हे जातीचीं झाडां भारत, श्रीलंका आनी हेर उश्ण कटिबंधांतल्या देशांत लागवडींत आसात.

**(४) फायकस इलॅस्टिका :** (इंग्लीशः आसाम रबर, इंडिया रबर, कूळः मोरेसी) - ही जात मूळची उत्तर भारत आनी मलेशियांतली. थंयचे थळावे लोक हे जातीच्या झाडाच्या दिखापसून जेवण आनी उदक व्हरपाखातीर साधनां तयार करताले.

**(५) फण्टुमिया इलॅस्टिका :** (इंग्लीशः लागोस सिल्क रबर, कूळ- ॲपोसायनेसी) - हें अस्तंत आफ्रिकेंत वाडपी झाड आसून रबर वनस्पती म्हणून ताचो सोद १८९४ त लागलो. झाडापसून रबर काडपाचे पद्दतींत बरोच भाग फुकट वता देखून हीं झाडां रोखडींच सोंपलीं. दुसऱ्या म्हाझुजांत परत हीं झाडां रोवन रबर काडपाचे यत्न जाले.

**(६) लॅण्डोल्फिया किर्की आनी लॅ. ओवारेन्सिस :** (कूळ - ॲपोसायनेसी) - आफ्रिकेच्या रानांत वाडपी ह्यो सुमार दोन मीटर व्यासाच्यो बारीक पूण लांब झाडांच्यो जाती रबर काडपाखातीर कापतात आनी तांचेपसून दिख काडून तातूंत हेर झाडांचो रोस घालून वा वतांत सुकोवन तो घट्ट करताले. वाडीचे खाशेले तरेक लागून हे जातीची लागवड करप सोंपें न्हय.

**(७) पार्थेनियम आर्जेंटॅटम :** (इंग्लीशः ग्वायूल रबर; कूळ - कंपॉझिटी) - ही मोटवी झुडपाअसली वनस्पत उत्तर मेक्झिको आनी नैऋत्य टॅक्सासच्या रूक्ष प्रदेशांत वाडटा. तिची पिराय ३० - ४० वर्सां वा चड आसता. थंयचे मूळचे रावपी हे वनस्पतीची साल दांतांनी चाबून ताचेपसून येवपी रबराचो पेल्ल करताले. १९१० वर्सांपयलींचें सुमार ५०% रबराचें उत्पादन ह्या झाडापसून जातालें. १९४४ त सुमार १०,००० टन रबराचें उत्पादन ह्या झाडापासून केलें. हें रबर संश्लेशीत रबरांत भरसुपाखातीर खूब उपेगी पडटा. भारतांत ह्या झाडांत रबराचें प्रमाण खुबच उणें म्हणजे सुमार ५% इतलेंच आसा. कांय झाडांनी तें २६% मेरेन सांपडलां.

**(८) टॅरॅक्सकम कोक - साघीज :** (इंग्लीश रशियन डँडेलिऑन; कूळ - कंपॉझिटी) - १९६१ त रशियन वनस्पतीशास्त्रज्ञांक हे वनस्पतीचो सोद लागलो. समशीतोश्ण कटीबंधांतल्या हवामानांत वाडपी हे वनस्पतीची रशियेंत सुमार ८ लाख हेक्टर क्षेत्रांत लागवड केल्ली. उत्तरेकडलीं राज्यां आनी कॅनडांत ही वनस्पत बरी वाडटा आनी एका वर्साभितर दीख काडटात. दिखांत ३०% रबर आसता. झाडाच्या मुळापसून बरे प्रतीचें रबर मेळटा.

**(९) क्रिप्टोस्टेजिया ग्रँडिफ्लोरा :** (इंग्लीश: वायल्ड रबर प्लांट; मराठी : विलायती वाकुंडी, वारवांडी, कावळी; कूळ - ॲस्क्लेपीएडेसी) - झोंपा भाशेन वाडपी ही बडयांभाशेन सोबेची वाल मूळची मादागास्कार जुंव्यांवली आसून भारतांत ती जायत्या वर्सांपसून सोबेची वाल म्हणून लागवडींत आसा. तिच्यांतलें रबर (पॅले रबर) बऱ्या दर्ज्याचें आसता. ती काटक आसून नेटान वाडटा आनी बी लायल्यार एक वर्साभितर चडांत चड रबराचें उत्पन्न मेळटा.

**(१०) युफोर्बिया इंटिसी :** (कूळ - युफोर्बिएसी) - मादागास्कार जुंव्यांवयल्या सुक्या हवामानाच्या प्रदेशांत वाडपी हें पानां नाशिल्लें झाड. रबर वनस्पतीच्या वयल्या भागाचेर लांब लवचीक पट्यांच्या रुपांत सांखळटा आनीं तें उच्च दर्ज्याचें आसता. अमेरिकेंत हे जातीची लागवड करपाचे यत्न जाले.

वयर दिल्ल्या जातींभायर मॅबिया, सेपियन आनी हेर प्रजातींतल्या जातींपसुनूय रबर मेळटा.

**म्हत्वाच्या रबर उत्पादक वनस्पतींतलें कच्च्या रबराचें रसायनीक संघटन**

| जाती | रबर हायड्रोजन | रेझीन | प्रथीन | गोबर |
|---|---|---|---|---|
| | % | % | % | % |
| हेविया ब्राझीलिएन्सिस | ९४ | ३ | २ | ०.२ |
| कॅस्टिल्ला इलॅस्टिका | ९३ | ६ | ०.५ | ०.१ |
| टॅरॅक्सॅकम कोक सावीज | ९० | ५ | २ | ? |
| फण्टुमिया इलॅस्टिका | ८८ | ८ | २ | ०.५ |
| मॅनिहॉट ग्लॅझिओवी | ८८ | ४ | ६ | १.५ |
| क्रिप्टास्टेजिया ग्रांदिफ्लोरा (विलायती वाकुंडी) | ८८ | ९ | २ | ०.३ |
| फायकस इलॅस्टिका (आसाम रबर ट्री) | ७८ | २० | १ | ०.५ |
| पार्थोनियम अर्जेंटॅटम (ग्वायूल रबर) | ७२ | २२ | ३ | २.५ |

**रबर उत्पादन :** अमेरिका खंडांत युरोपी वसणुको स्थापीत जावचे पयलींसावन रबर काडटाले. तें मुखेलपणान कांय रानटी दिरवाळ वनस्पतीसावनूच काडटाले. तातुंतली कॅस्टिला उलेयी ही म्हत्वाची वनस्पत आशिल्ली. उपरांत कच्च्या रबराची मागणी वाडत गेली आनी रानांतलें रबर वाडटे मागणेक उणें पडपाक लागलें. उडोवपाचें रबर परत सारकें करून वापरपाचे यत्न जाले. तशेंच, सैमीक रबराची वाडटी मागणी पुराय करपाखातीर रबर उत्पादक झाडांची लागवड एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक जाली. पूण ती यशस्वी जाली ना. १८७६ उपरांत रबर झाडाचे लागवडीक चालना मेळ्ळी. त्या वर्सा ब्राझीलांतल्यान हेविया ब्राझीलिएन्सीस जातीच्यो बियो इंग्लंडांत व्हेल्यो आनी तांचेपसून तयार जाल्ल्या रोंपांची लागवड श्रीलंका, भारत आनी मलेशिया ह्या वसणुकांच्या प्रदेशांनी केली. फुडें लागवडीचें क्षेत्र अतीउदेंतेकडल्या देशांनी वाडत गेलें. १९१० च्या अदमासाक अतीउदेंतेकडल्या देशांनी मळयांतल्या रबराचें उत्पादन संवसारांतल्या सगळया रानटी रबरांच्या उत्पादनाइतलें जावपाक लागलें. तेउपरांत तें दुप्पट आनी चौपट जालें. उदेंतेकडल्या देशांनी हेवियावांगडाच कॅस्टिल्ला आनी फायकस, आफ्रिकेंत फण्टुमिया आनी मॅनिहॉट, मेक्सिको, मध्य अमेरिका आनी दक्षिण अमेरिकेंत कॅस्टिल्लाचीं आनी हवाई, फिलिपिन्स, त्रिनिदाद आनी मादागास्कार जुंव्यांनी ह्या आनी हेर जातींची लागवड केली. पूण विसाव्या शेंकड्यांत मध्यवर्तीक हेविया ब्राझीलिएन्सिसान सगळयांक फाटीं उडयलें. हे जातीच्या रबराचें उत्पन्न हॅक्टरी सुमार ३४० किग्रॅ. वयल्यान सुमार १७०० किग्रॅ. मेरेन वाडलें. संवसारांतल्या वट्ट सैमीक रबर उत्पादनांतलें सुमार ९५% ते ९८% उत्पादन हें एकेच जातीपसून जाता. सदद्या थायलंड हो रबर उत्पादनांत सगळयांत फुडारिल्लो देश.

१९६६ च्या अदमासाक सैमीक रबराचो संवसारीक वाठार सुमार ४६ लाख हॅक्टर आशिल्लो आनी तातुंतलो सुमार १३.०६ लाख हॅक्टर मलेशियांत आनी तितलेंच क्षेत्र इंडोनेशियांत आशिल्लें. ताचे खाला सगळयांत व्हड क्षेत्र आफ्रिका खंडांत आशिल्लें. जाल्यार श्रीलंका, थायलंड, कांबोडिया, फिलिपिन्स, चीन, भारत आनी लॅटीन अमेरिकेंत उण्या प्रमाणांत आशिल्लें. चीनांत १९५२ त रबराचे लागवडीक सुरवात जाली. १९८३ त थंय ४.५३ लाख हॅक्टर क्षेत्र आशिल्लें.

**कांय म्हत्वाच्या देशांतलें सैमीक रबराचें उत्पादन** (हजार टनांनी).

| | १९९३ | १९९४ | १९९५ |
|---|---|---|---|
| थायलंड | १५५१ | १७२१ | १७८६ |
| इंडोनेशिया | १३०१ | १३६१ | १४२० |
| मलेशिया | १०७४ | ११०१ | १०८४ |
| भारत | ४२८ | ४६४ | ४९९ |
| चीन | ३२६ | ३३५ | ३६० |
| फिलीपिन्स | ५६ | ५८ | ५९ |
| व्हिएतनाम | ९० | ८८ | ९५ |
| श्रीलंका | १०४ | १०४ | १०३ |
| नायजेरिया | १०५ | १०५ | ९३ |
| कांबोडिया | ३१ | ४२ | ४४ |
| कॅमरून | ५० | ५८ | ५४ |
| आयवरी कोस्ट | ६२ | ७० | ७७ |
| ब्राझील | २७ | २८ | ३१ |

भारतांत रबराची लागवड पयली १८८० च्या अदमासाक त्रावणकोर आनी मलबार ह्या भागांनी केली. १९०२ त रबर मळ्यांची वेपारी नदरेन लागवड जाली. १९१० वर्सा सुमार १२,००० हॅक्टर आनी १९४७ - ४८ त ६३,००० हॅक्टर क्षेत्र रबर लागवडीखाला आशिल्लें जाल्यार १९७७ - ७८ त तें २,३३,३५९ हॅक्टर आशिल्लें. हातूंतलें सुमार ९२% केरळांत आशिल्लें. १९८३ - ८४ त रबर लागवडीचें क्षेत्र ३,०८,००० हॅक्टर आशिल्लें. तमीळनाडू, कर्नाटक, अंदमान आनी निकोबारांतलींय कांय क्षेत्रां रबर लागवडीखाला आसात. आसाम, मिझोराम, महाराष्ट्र तशेंच गोंयातूय मुळावी रबर लागवड करपाक सुरवात जाल्ली आसा.

**भारतांतलें राज्यवार रबर लागवडीसकयलें क्षेत्र**

| राज्य | सुमार क्षेत्र (हेक्टर) |
|---|---|
| केरळ | २,१२,२७१ |
| तमीळनाडू | ११,६४६ |
| कर्नाटक | ७, ८८६ |
| अंदमान आनी निकोबार | ९८८ |
| त्रिपुरा | ४७४ |
| गोंय | ३६ |
| आंध्र प्रदेश | ३१ |
| महाराष्ट्र | २७ |
| वट्ट | सुमार २,३३,३५९ |

सादारणपणान १९७५ मेरेन देशांतलें उत्पादन भारतीय उद्देगाक पुरोशें आशिल्लें. फक्त संश्लेशीत रबराचीच आयात जाताली.

पूण १९७८ उपरांत उत्पादन आनी मागणी हातूंत फरक जाणवपाक लागलो आनी तो १९७९ - ८२ ह्या काळांत खर आशिल्लो. १९७८ - ७९ पसून सैमीक रबर आयात करपाक परवानगी दिली. १९८२ त वट्ट ६३, ४८१ टन रबर आयात केलें आनी तातुंतलें ४४,११३ टन (सुमार ७०%) सैमीक रबर आशिल्लें. १९८४ - ८५ त सैमीक रबराचें उत्पादन, खप आनी आयात हांची आंकडेवारी अनुक्रमान १.८७ लाख टन, २.२० लाख टन आनी ०.२७ लाख टन अशी आशिल्ली.

**भारतांतल्या सैमीक रबराचें उत्पादन आनी खप**

| वर्स | उत्पादन (टनांनी) | खप (टनांनी) |
|---|---|---|
| ८४ - ८५ | १८७,००० | २२०,००० |
| ८५ - ८६ | २००,४६५ | २३५,४४० |
| ८६ - ८७ | २१९,५२० | २५७,३०५ |
| ८७ - ८८ | २३५,००० | २८७,००० |
| ८८ - ८९ | २५९,१७२ | ३१३,८३० |
| ८९ - ९० | २९७,००० | ३४१,००० |
| ९० - ९१ | ३३०,००० | ३६४,३१० |
| ९१ - ९२ | ३६५,००० | ३८०,१५० |
| ९२ - ९३ | ३९३,४९० | ४१४,१०५ |
| ९३ - ९४ | ४३५,००० | ४५०,४८० |
| ९४ - ९५ | ४७२,८१५ | ४८५,८५० |
| ९५ - ९६ | ५०६,९१० | ५२५,४६५ |
| ९६ - ९७ | ५४७,००० | ५७८,००० |

बियो रोवन तयार केल्ल्या झाडाचो जमनीपसून ५० सेंमी. उंचायेवयलो परीघ ५५ सेंमी. आनी कलम केल्ल्या झाडाचो कोंब भरिल्ले सुवातीपसून १.२५ ते १.५० मी. उंचायेवयलो परीघ ४५ - ५० सेंमी. जालो म्हणजे तें झाड दीख काडपाक योग्य जालें अशें समजतात. बियो रोवन वाडयल्लें झाड ७ - ८ वर्सांत दीख काडपाचे स्थितींत येता. आनी कलमी झाड सुमार चार वर्सांनी हे स्थितींत येता. मळ्यांतलीं सुमार ७०% झाडां दीख काडपाक योग्य आसात, अशें कळ्ळे उपरांत दीख काडपाक सुरवात करतात. जमनीपसून सुमार १.३ मी. उंचायेमेरेनच्या खोडाचे सालीपासून दीख काडटात. दीख काडपाखातीर चीर घेवपाच्यो वेगवेगळ्यो पद्दती प्रचलित आसात. (पूर्ण मळसुत्री, अर्द मळसुत्री, रोमी 'वी' अक्षराप्रमाण आनी हेरिंग नुस्त्याच्या हाडाच्या आकाराभाशेन).

आग्नेय आशियांत सादारणपणान अर्दमळसुत्री पद्दत आपणायतात. केरळांतय हीच पद्दत प्रचलित आसा. दीख काडपाखातीर सुमार. एक मी. उंचायेचेर खोडाचे आडवे पातळेक ३०°कोन करून झाडाभोंवतणीं मळसुत्री पद्दतीन १/३ वा अर्द्या अंतरामेरेन मिची गोलेज नांवाच्या खास प्रकारच्या हत्त्यारान दावेकडल्यान उजवेवटेन तिरपी चीर घेतात. ऊतकालागीं आशिल्ल्यो दिखाच्यो वाहिन्यो व्हड संख्येन कापतल्यो इतली तिची खोलाय दवरतात. सालीचेर चीर घेवपाचें काम सकाळच्या वेळार करतात. कारण ह्या वेळार चिकाचो स्त्राव चड प्रमाणांत जाता. चिरेच्या सकयल्ल्या तोंकाक ल्हानशी उबी खांच करून तिच्या तोंडाक जस्ताचो पनेळ बसोवन तिचे खाला दीख सांठोवपाखातीर माती, कंवची, धातू हे सारकिल्या पदार्थांपसून केल्लें ३०० ते ५०० मिली. तांकीचें दीखपात्र बसयतात. ल्हान मळेवाले नाल्लाचे कट्टेचोय वापर करतात.

दिसाच्या वाडट्या तापमानावांगडा दिखाच्या थेंब थेंब गळपाच्या स्त्रावाचें प्रमाण उणें जाता आनी सुमार तीन वरां उपरांत स्त्राव बंद जाता. एका दिसाच्या अंतरान दीख काडटात. परत दीख काडपा वेळार चिरेचेर सुकिल्ली खवळी काडून सालीचो १ ते १.५ मिमी. दाट भाग जतनायेन कापतात. ताका लागून दिखाच्यो वाहिन्यो परत उकत्यो जावन परत दीख व्हांवपाक सुरवात जाता. दीख

काडपाखातीर आरतून - परतून झाडाच्यो दोनय वटो वापरतात. तशेंच सालीच्या पुनरुज्जीवनाखातीर ब्युटिरीक आम्ल आनी इंडॉल -३ ॲसिटीक आम्ल हांचो वापर करतात.

दिरवाचें उत्पन्न वाडोवपाखातीर भारतांतले जायते मळेवाले २,४,५ - टी हें तणनाशक पाम तेलांत भरसून सालीक चिरे सकयल लायतात. तशेच स्टिम्युलॅक्स, युरेका आनी एथेलुय वापरतात.

दीख काडपाक सुरवात केले उपरांत १० - १५ वर्सां दिरवाचें उत्पंन्न वाडत वता. झाडाची फावो ती जतनाय घेतल्यार ४० - ५० वर्सांमेरेन लेगीत दीख काडूं येता. कांय ल्हान रबर उत्पादक लेगीत दीख काडटात. पूण ताका लागून झाडाची भलायकी आनी पिराय उणी जाता. चड पिरायेच्या झाडाचोय दीख उण्या अंतरान काडपाची पद्दत आसा.

लागवडी पयलींच्या काळांत काळें घनरूप रबर मेळोवपाखातीर व्हड्याच्या व्हल्याभाशेन लाकडी दांडो रबर - चिकांत बुडोवन आनी भायर काडून शेकोटेच्या धुंवरांत धरून सुकयताले. ही क्रिया परत परत केली म्हण्टकच घन रबराचो दाट थर दांड्याचेर जमतालो आनी तो काडून घेताले. जॉन पर्किन हाणें १८९९ त बसयल्ले आधुनिक पद्दती प्रमाण जमयल्लो दीख पयलीं गाळून जाय तितलो पातळ करतात आनी ॲल्युमिनियमाचे टांकयेंत घेवन तातूंत ॲसिटीक जावं फॉर्मिक आम्ल मुल्य ४.८ इतलें जायमेरेन भरशितात आनी भरसण रातभर दवरतात. दीख सांखळून ताका चोथो - उदक अशें रूप येता. हो चोथो रबराचो आसून तो टांकयेंत आशिल्ल्या पत्र्याचेर जमता आनी लादयो तयार जातात. मागीर त्यो एका यंत्रांत घालतात. उपरांत तांचे तकटे तयार जातात. मागीर हे तकटे सुकयतात आनी अशेतरेन घनरूप रबर मेळटा.

घन रबराचे खास गूणधर्म आशिल्ले कांय प्रकार तयार केल्यात. तातुंतले कांय अशे - **१) थीर श्यानता रबर :** कच्च्या रबराचो उपेग करिमेरेन तें कारखान्याचे कोठयेंत दवरतात. ह्या काळांत तें घट जाता आनी तें वापरचे पयलीं मोव करचें पडटा. हो दोश पयस करपाखातीर कच्च्या रबरांत कांय प्रमाणांत हायड्रॉक्सिलामायन हायड्रोक्लोरायड हें संयूग भरसून हो रबर प्रकार तयार करतात.

**२) सुपिरियर प्रॉसेसिंग नॅचरल रबर (एस. पी. रबर) जावं स्पेशल प्रॉसेसिंग रबर :** कच्चें रबर आनी व्हल्कनीकृत केल्लें रबर हांची ही भरसण आसता.

**३) आर्क्टिक रबर :** ब्युटाडायन सल्फोन हें संयूग उण्या प्रमाणांत रबरांत भरशिल्ल्यान हो रबर - प्रकार मेळटा. हें रबर -२६° सॅ.तापमानांतूय घट जायना.

**४) तैलभरीत सैमीक रबर :** कच्च्या रबरांत ५% खनीज तेल भरसून हें तयार करतात. हें मोव आसून ताचेर वस्तू करपाची प्रक्रिया चड बरे तरेन करूं येता. मोटारीच्या टायरावयले खवले (ट्रॅड्स) करपाखातीर तांचो उपेग जाता.

घन रबराभाशेनच रबर - दिरवाचोय कांय वस्तू करपाखातीर उपेग करतात. देखून दीख टिकाऊ करचो पडटा. दिरवांत आमोनिया भरशिल्यार तो जायतो तेंप तिगपाक शकता. अशें १८५३ त डब्ल्यू. जॉनसन हाणें दाखोवन दिलें. देखून रबर उद्देगाक दितात त्या दिरवांत आमोनिया भरशितात.

दिरवांत उदकाचें प्रमाण सु. ७०% आसता. तें उणें करून जायते संहत दीख प्रकारूय तयार केल्यात आनी जाय त्या वस्तुंचे निर्मितीखातीर ते खूब उपेगाचे थरल्यात.

दिरवापसून वस्तू करतना चड करून दिरवांत जाय आशिल्ले हेर पदार्थ भरसून तयार जाल्ले भरसणेक फावो ते प्रक्रियेन वस्तुंचो आकार दितात आनी उपरांत व्हल्कनीकरण घडयतात. हे प्रक्रियेंत रबराची वस्तू टिकावू जाता. कांय वस्तुंची निर्मिती करतना अशे तरेन व्हल्कनीकरण करपाक येना म्हणून पयलींच व्हल्कनीकरण केल्लो एक संहत दीख प्रकार १९२३ त तयार केलो. सामक्यो पातळ वस्तू तयार करपाक ताचो उपेग जाता.

**घन रबराचें गूणधर्म :** सैमीक रबराच्या आंगांत जायते गूण एकवटिल्ले आशिल्ल्यान ते वेगवेगळया तरांनी उपेगी पडटात. रबराची पातळ पट्टी जांव धागो ताणलो जाल्यार तो जायत्या पटींनी लांब जाता आनी ताण सोडलो म्हण्टकच रोखडोच पयलींभाशेन आंखूड जाता. रबरी पेल्ल जमनीर आपटिलो जाल्यार तो ऊंच उडटा, दामलो जाल्यार दामता आनी दाब काडटकच पयलींभाशेन जाता. ह्या गुणाक स्थिती स्थापकताय वा प्रत्यास्थताय अशें नांव आसून चक्रांक बसोवपाचे पोकळ आनी भरीव टायर हांचेखातीर रबराचो उपेग जाता. रबराचें खाशेलेपण ताची स्थितीस्थापकताय आनी चिवटपण ह्या भौतीक गुणांत आसा. पूण कच्च्या रबराच्या ह्या गुणांचेर तापमानांतल्या फरकाचो खूब परिणाम जाता. पूण व्हल्कनीकरणान ताचो दोश ना जाता आनी ताका घटसाण मेळटा आनी स्थिती स्थापकताय वाडटा. तशेंच, फावो त्या द्रव्यांची भर घालल्यान रबराच्या गूणधर्मांत जायतो फरक पडटा हें ताचें एक खाशेलपण.

रबराच्या पड्ड्यांतल्यान उदक आनी वायू आरपार वचपाक शकना. रबर उदकांत कुसना, खतखतपी उदकांत विरगळना आनी शियांतय तें वेरेना. तशेंच, तें घर्शण सहन करपाक शकता आनी बेगीन झिजना. ताका लागून सायकलीचे ब्रेक, मोटारींचे टायर, जोत्यांचे तळवे हांचेखातीर ताचो उपेग जाता. विद्युत् प्रवाहाक तें रोध करता देखून निरोधक म्हणून ताचो उपेग जाता. तें विखारी न्हय देखून ल्हान भुरग्यांनी रबरी खेळणी तोंडांत घालीं तरीय तांचेपसून कांयच अपाय जायना. रबराच्या आंगांत कांय दोशय आसात. पेत्रोल, रॉकेल सारकिल्या पदार्थांवांगडा तें फुगता. खर वत, ऑक्सिजन

आनी ओझोन वायू हांच्या योगान तें बेगीन पेड्डेर जाता.

रबराचो रेणूभार सु. ३,००,००० आसा. कच्चें रबर बँझीन, हेक्झेन, क्लोरोफॉर्म, कार्बन टॅट्राक्लोरायड ह्या विद्रावकांनी विरघळटा. कच्च्या रबराचेर ओझोन वायुचीय समावेशक विक्रिया जाता आनी रबर ओझोनायड नांवाचें संयूग तयार जाता. रबराच्या रेणूची संरचना थरोवपाक ह्या संयुगाचो खूब उपेग जाला.

बुटांचे क्रॅप तळवे, रबर - आसंजकां सारकिले कांय आडवाद सोडले जाल्यार रबरी वस्तू फकत कच्च्या रबराच्यो केल्ल्यो नासतात. त्या वस्तुच्या आंगांत जाय आशिल्ले गूण फावो त्या प्रमाणांत येवंचे हे खातीर कच्च्या रबरांत जायते पदार्थ भरसुंचे पडटात. ह्या पदार्थांक रबर रसायनां म्हण्टात. अशा पदार्थांचे वळेरेंत शेंकड्यांनी पदार्थांचो आस्पाव जाता. पूण तांचीं कार्यां मेजकींच आशिल्ल्यान कार्यप्रमाण तांचें वर्गीकरण करप सोपें पडटा.

१) **व्हल्कनीकारकां :** *व्हल्कनीकरण घडचें म्हणून गंधक* वा सिलिनियम, टेल्युरियम, बँझॉयल, पॅरॉक्सायड कांय डायऑक्झायमां, डायआयसोसायनेटां आनी डायनायट्रोसा संयुगां वा टेट्रामिथिल थायरम डायसल्फायड सारकिल्या पदार्थांचो उपेग जाता.

*सैमीक रबराखातीर चड करून गंधक वा टॅट्रामिथिल* थायरम डायसल्फायड वापरतात.

२) **प्रवेगकां :** हांच्या योगान व्हल्कनीकरण बेगीन आनी उण्या तापमानाक घडून येता इतलेंच न्हय तर वस्तुच्या गुणांतय भर पडटा. थायरम डायथायोकार्बामेटां, झिंक अल्किल झँथेटे, नायट्रोसा डायमिथिल ॲनिलीन, डायफिनिल ग्वानिडीन, मरकॅप्टोबँझोथायाझोल हीं संयुगां हातुंतलीं मुखेल आसात. हीं कार्बनी संयुगां खूब प्रभावी आसात.

३) **सक्रियकारकां :** हांकां लागून प्रवेगकांचें कार्य बरें जाता. मेदाम्लां सक्रियीकारकां म्हणून उपेगी पडटात.

४) **मंदायकां :** जायते फावटीं रबर आनी व्हल्कनीकारक हांची भरसण करता आसतना वा केल्ल्या भरसणांची फुडली प्रक्रिया करचेपयलीं अकस्मात व्हल्कनीकरण जावपाचो भंय आसता. हें टाळचें म्हणून ज्या पदार्थांचो उपेग करतात तांकां मंदायकां म्हण्टात. थॅलिक ॲनटायट्रायड, बँझॉयक आम्ल, सॅलिसिलिक आम्ल सारकिले पदार्थ हे खातीर उपेगी पडटात.

५) **प्रबलकां :** रबरी वस्त ज्या कामाखातीर वापरपाची आसता तेप्रमाण वस्तूक वेगवेगळे तरेची घटसाण लागता. अशी घटसाण येवची म्हणून रबरांत जे पदार्थ भरशितात तांकां प्रबलकां म्हण्टात. काजळी हें एक मुखेल प्रबलक. कांय कार्बोनेटां, सिलिका, झींक ऑक्सायडां आनी कांय मृत्तिकाय प्रबलकां म्हणून भरसणांत वापरतात.

६) **ऑक्सिजन आनी ओझोन प्रतिरोधकां:** हवेंतलो ऑक्सिजन आनी ओझोन हांचो रबराचेर वायट परिणाम जाता आनी वस्तू निकामी जाता. ह्या परिणामाक विरोध जावंचो हेखातीर फिनिल बीटा नॅप्थील अमायन, अल्डॉल्ड आल्फा नॅप्थील अमायन सारकिलीं रसायनां उण्या प्रमाणांत रबरभरसणांत वापरतात.

७) **प्लॅस्टिकीकारकां आनी मृदुकारकां :** कच्च्या रबरांत कांय पदार्थ घालून भरसण यंत्रांत मळ्ळी जाल्यार ताचेर प्रक्रिया करप सोंपें जाता. अशा पदार्थांक प्लॅस्टिकीकारकां म्हण्टात. वनस्पतीज आनी खनिज तेलां, मेदाम्लां, तांची जस्त लावप, मेणे आनी रेझिनां ह्या कामांत उपेगी पडटात.

कांय पदार्थांची भरसण केली म्हण्टकच रबराक मोवसाण येता आनी चिकटपण येता. कांय वस्तू तयार करतना हो गूण जाय आसता. मोटारीचे टायर, जवसाचें तेल, पॅराफीन मेण, व्हॅसलीन सारकिले पदार्थ मृदुकारकां म्हणून उपेगी पडटात. 'फॅक्टिस' नांवाचो *एक पदार्थय ह्या कामांत वापरतात.*

८) **अपघर्शकां :** ज्या रबरी वस्तुंचो उपेग घर्शणाखातीर करपाचो आसता त्यो तयार करतना रबर भरसणेंत हांचो आस्पाव करतात. पमीस, सिलिका, कार्बोरंडम सारकिले पदार्थ हे खातीर वापरतात.

९) **वर्णदायकां :** वस्तूक जाय तो रंग येवंचो म्हणून हांचो रबरांत आस्पाव करतात. धवो रंग येवंचो हे खातीर झींक ऑक्सायड, लिथोपोन, झींक सल्फायड, टायटॅनियम डायऑक्सायड हे पदार्थ आनी वेगवेगळयो छटा येवंच्यो म्हणून कार्बनी वर्णदायक संयुगां वापरतात.

१०) **भर घालपाचे पदार्थ :** हे भरसुपाचो मुखेल हेत म्हणजे वस्त करतना रबर जाय तितलेंच वापरून वस्त सवाय करप हो आसता. व्हायटिंग (पावडर आनी धुयिल्लो शुध्द धवो चॉक), संगजिरें, तरेकवार माती, खडू, खनीज तेलांच्या शुध्दीकरणांत मेळपी कांय संयुगां हे नदरेन म्हत्वाचीं आसात. पुनःप्रपित रबर होय असोच एक पदार्थ आसा. हाची भर घाल्ल्यान वस्तू करपाची प्रक्रिया सोंपी जाता.

११) **संकीर्ण :** जायत्या जाग्यांनी वस्तू तयार करतना जायतशी परिस्थिती येवंची म्हणून पदार्थ भरसुचे पडटात.

**पुनः प्रापित रबर :** मोटारगाडयो, ट्रॅक्टर, मोटरसायकली हांचे पोरने भायर उडोवपाचे टायर आनी वापरून निरुपेगी जाल्लो हेर रबरी म्हाल हांचेपसून परत वापरपाक येता असो एक रबर प्रकार मेळोवपाक येता. ताका पुनःप्रापित रबर म्हण्टात. हें मूळचें कच्चें रबर न्हय. कांय वस्तू तयार करपाखातीर चड करून सैमीक आनी संश्लेशीत रबरावांगडा भरसून तें वापरपाक येता. तें वापरिल्ल्यान कांय फायदेय जातात. ताका लागून रबर भरसणेंत वापरपाचो एक मोलादीक पदार्थ आनी भायर उडोवपाच्या वस्तुंचो उपेग करून

घेवपाचो एक मार्ग ह्या दोनय नदरांनी ताका म्हत्व आसा.

पुनः प्रापणाच्या धंद्याक खरी सुरवात १८६५ त जाली. आतां पुनःप्रापणाच्यो जायत्यो प्रक्रिया खबर आसात. तातूंत उश्णतायेचो आनी रसायनीक द्रव्यांचो उपेग करून रबरी वस्तूंतलो कापूस, नायलॉन धागे ना करप आनी व्हल्कनीकरण जाल्ल्या रबराच्या रेणूंचेर जाय ते परिणाम घडोवन तें सांच्याच्या आदारान दिल्लो आकार धारण करपाक शकतलें अशें करप हे मुखेल हेत आसतात.

हें रबर सवाय आसता. भरसणेंत हाचो आस्पाव केल्यार प्रक्रिया चड सोंपेपणीं करपाक येतात. बुटांच्यो खोंटो, बाबागाडयांचे टायर, सवाय नळयो हेसारकिल्यो वस्तू पुनःप्रापित रबराच्यो वा ताचो आसपाव आशिल्ले रबर - भरसणेपसन तयार करतात. तशेंच, संश्लेशीत रबरांपसूनय पुनःप्रापित रबर तयार करतात.

घनरूप रबर भरसणेपसून वस्तू तयार करपाखातीर फुडें दिल्ल्यो पांच प्रक्रिया उपेगी पडटात - **१) रुळांनी लाटून वस्तू तयार करप :** चड - उणे दाटायेचे तकटे वा रबराची पातळ चादर करपाखातीर हे कृतीचो उपेग जाता. हेखातीर वापरांत येवपी यंत्रांनी तीन वा चड रूळ आसतात आनी ते वयर सकयल करपाक येतले अशी येवजण आसता. ह्या यंत्रांत घाल्लें रबर - भरसण तकटयाच्या रुपान भायर येता. अशे येवजणेचो उपेग कापडाचेर रबर - विलेपीत करपाखातिरूय जाता. कापडाचेर रबर - विलेपन करपाचें खास तरेचें एक यंत्र आसा. हाचो उपेग कापडाचेर रबराचो पातळ थर दिवपाखातीर करतात.

**२) बहिःसारण :** बहिःसारण यंत्रांत रबर भरसण घालतकच तळभागांत तें तापता आनी ताकालागून मोव आनी प्रवाही जाता आनी अखेरेक यंत्राच्या तोंकांतल्यान भायर सरता. तोंकाच्या तोंडांत तयार करपाचे वस्तूची बाह्यरेशा कापून काडिल्ली आसता. ताका लागून भायर पडपी भरसणेक वस्तूचो आकार येता.

**३) सांचेकाम :** वस्तू तयार करपाचे सांचे वस्तूप्रमाण वेगवेगळे आसतात. वस्तू तयार करपाखातीर सांच्यांत रबर भरसण भरून सांचो दाबयंत्रांत दवरून फावो तितलो वेळ दाब आनी उश्णताय दितात. हांगा वस्तू तयार जाले उपरांत व्हल्कनीकरणय जाता.

**४) अंतः क्षेपण :** होय सांचेकामाचोच एक प्रकार. हेखातीर वापरपाचें यंत्र आनी कार्यपद्दत प्लास्टिकापसून वस्तू तयार करपाचे प्रक्रियेभाशेनच आसता.

**५) रचणूक करून वस्तू तयार करपः** मोटारीच्या टायरासारके वस्तूविशीं पयलीं तिच्या वेगवेगळया भागांची रचणूक तयार केल्ली वस्तू खास तरेच्या सांच्यांत घालून पुराय करतात.

रबर दिखाचे आनिकय कांय उपेग जातात. ताचो उपेग कातडी, बुटांचे फ्रेप तळवे, कॅनवास कापड, फॅल्ट कापड सारकिल्यो वस्तू चिकटावपाखातीर आसंजक म्हणूनय जाता. तशेंच नळांची जोडणी करपाक, खाद्यपदार्थ उद्देगांत डबे, भरण्यो सारकिलीं आयदनां हवाबंद करपाक, धातूंच्या टांकयांक अस्तर दिवपाक आनी जमीन आनी रस्ते हांचे वयले भाग झरनासतना चड काळ तिगतले अशें करपांतय दिखाचो उपेग जाता.

**भारतीय रबर उद्देग :-** भारतांत ह्या उद्देगाची सुरवात १९२० त जाली. कलकत्त्याक डिकसी आया कंपनी ह्या नांवाचो सर्वसामान्य वस्तू तयार करपाचो पयलो कारखानो त्या वर्सा जालो. तो १९२५ मेरेन चल्लो. 'बँगॉल वॉटरप्रुफिंग वर्क्स' नांवाचो जलाभेद्य लुगट तयार करपाचो एक आनी रबर - विलेपीत विद्युत् केबल सरयो तयार करपाचो एक अशे दोन कारखाने १९२८ त स्थापन जाले. पूण रबर उद्देगाची खरी सुरवात १९३४ त 'आंतरराश्ट्रिय रबर नियंत्रण करार' जाले उपरांतच जाली. भारतांत मजुरीचे दर उणे आशिल्ल्यान जायत्या परदेशी कंपन्यांनी (देखीक - बाटा शू कंपनी, इंडियन रबर मॅन्युफॅक्चरींग लि., डनलॉप रबर कंपनी) हांणी आपले कारखाने भारतांत स्थापन केले. ह्या कारखान्यांनी मोटारींचे टायर आनी ट्यूब, वाहक आनी चालक पट्टे तशेंच जोतीं हांचें उत्पादन जावपाक लागलें. केरळ राज्यांत शासकीय अर्थीक पालवानय कांय कारखाने आयले. दुसऱ्या म्हाझुजान भारतीय रबर उद्देगाक जाय अशी परिस्थिती मेळ्ळी. झुजाउपरांत रबर उद्देगाची वाड जावपाक लागली आनी कच्च्या म्हालाची चड गरज भासपाक लागली. १९५० पसून कच्च्या रबराची निर्यात थांबली. भारतांत तयार जावपी रबर हांगाच्या उद्देगाक पावना जालें. देखून कच्च्या रबराचें उत्पादन वाडोवपाचो यत्न जालो. तेचवांगडा रबरी वस्तुंची गरज वाडत आसा.

रबर उद्देगाक लागपी जायते रसायनीक पदार्थय आतां भारतांत तयार जातात. दुर्गापूराक १९६२ पसून फिलिप्स कार्बन ब्लॅक कंपनी आनी १९६६ पसून मुंबय युनायटेड कार्बन कंपनी लि. हे कारखाने काजळी तयार करतात. आल्कली अँड कॅमिकल कॉर्पोरेशन ऑफ इंडिया, बायर कंपनी मोनसँटो सारकिले कारखाने प्रवेगकां, मंदायकां, ऑक्सिजन प्रतिरोधकां हे सारकिले जायते रसायनीक पदार्थ देशांत तयार करतात.

इ.स. १९६९ -७० वर्सा रबरी वस्तूंचीं १,२५० उत्पादन केंद्रां आशिल्लीं आनी तातुंतल्यान सुमार ३० कोटी रुपया मोलाचें उत्पादन जालें. १९८४ च्या अदमासाक ३,००० परस चड उत्पादन केंद्रां आसून सुमार एक लाख लोकांक चरितार्थाचें साधन मेळ्ळां आनी उत्पादन ७५० कोटी मेरेन पावलां. रबरी वस्तुंचे कारखाने अस्तंत बंगाल, महाराष्ट्र आनी तमीळनाडू ह्या राज्यांनी चड प्रमाणांत आसून हरियाना, उत्तर प्रदेश, केरळ आनी दिल्ली ह्या राज्यांनीय ह्या उद्देगाची बरी प्रगती जाली. रबरी वस्तुंची निर्यात १९७६ -७७ त २७.३६ कोटी

रुपया १९८०-८१ त ३०.२६ कोटी रुपया आनी १९८१-८२ त ४०.३ कोटी रुपया जाल्ली.

**संश्लेशीत रबर (सिंथॅटीक रबर) :** रसायनीक विक्रियांनी तयार केल्लो आनी सैमीक रबराचेर प्रक्रिया करून तयार केल्ल्या रबराक संश्लेशीत रबर म्हण्टात.

संश्लेशीत रबर तयार करपाचे यत्न विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन चालू जाले. पूण १९१० च्या अदमासाक मात हे यत्न तात्पुरते थंडावले. ते उपरांत थोड्याच वर्सांनी पयलें म्हाझूज सुरू जालें आनी झुजाची गरज म्हणून जर्मनींत संश्लेशीत रबर संशोधनाक फावो ती परिस्थिती निर्माण जाली.

२, -३ डायमिथील ब्युटाडायन हो पदार्थ ॲसिटोनापसून म्हळयार अप्रत्यक्षपणान चूनरवडी आनी कोळसो हांचे असल्या जर्मनीक उपलब्ध आशिल्ल्या साद्या कच्च्या म्हालापसून तयार करूं येता हें पयलीं केल्ल्या यत्नांक लागून जर्मनीक खबर आशिल्लें. हाचेपसून तयार जावपी संश्लेशीत रबराक 'मिथील रबर' म्हण्टाले. जर्मनीन ह्या रबराचें उत्पादन व्हड प्रमाणांत केलें आनी आपली गरज भागयली. १८२५ त संश्लेशीत रबर तयार करपाच्या यत्नांक परत चालना मेळ्ळी. तशेंच, संशोधनाक नवी दिका मेळटली अशी आनिकूय एक गजाल ह्याच काळांत घडून आयली. ती म्हणजे भोव वारिकी करणाखातीर एकूच एकवारीक पदार्थ वापरपाशिवाय दोन वेगवेगळया एकवारिकांचो एकठांय वापर करून तांचें सहबहुवारिकीकरण केलें जाल्यार वेगवेगळया गूणधर्मांची संश्लेशीत रबर मेळपाक शकतात हो सोद हे पद्दतीन ब्युटाडायन आनी स्टायरीन हांच्या सहभोव बहुवारिकी करणान स्टायरीन ब्युटाडायन हें एक नवें संश्लेशीत रबर सिध्द जालें. हाच्या उपेगाचें क्षेत्र हेर रबरप्रकारांपरस चड विस्तारीत आसा म्हणपाचें समजलें. ह्या रबर - प्रकाराक त्या वेळार ब्युना एस्. वा जी. आर. एस् म्हण्टाले. आतां ताका एस्बीआर् म्हण्टात. सैमीक रबरापरस कांय गुणांनी व्हड आशिल्ली आनिकय संश्लेशीत रबर संशोधनाक लागून उपलब्ध जाली आनी ताका लागून चड उपेगी रबर हो संश्लेशीत रबराचो एक विभागूच जाल्लो आसा.

कार्बनेतर मूलद्रव्याच्या संयुगांचो उपेग करून संश्लेशीत रबर तयार करपाचे कांय यत्न ह्याच काळांत अमेरिकी शास्त्रज्ञांनीय चलयल्ले. तांणी सोदून काडिल्ल्या रबर प्रकाराक थायोप्लास्ट वा पॉलिसल्फायड् रबर ही संज्ञा दिल्ली. तशेंच, इ.स. १९३० च्या अदमासाक आयसो ब्युटिलीन ह्या संयुगाच्या भोव वारिकीकरणासंबंदीं एक संशोधन येवजण अमेरिका आनी जर्मनी हांच्या पालवान चालू आशिल्ली. तांणी मेळयल्ल्या रबर प्रकारांक ब्युटिल रबर म्हण्टात. तशेंच, कोरियन झुजाच्या प्रसंगा वेळार रबरविशयक संशोधन जालें. ह्या संशोधनाक लागून उण्यांत उणें तापमान वापरून स्टायरीन आनी ब्युटाडायन हांचें भोववारिकीकरण घडोवप शक्य जालें. हे पद्दतीन तयार केल्ल्या रबराक थंड एस्बीआर् म्हण्टात.

आतांमेरेन केल्लें रबरविशयक संशोधन कार्य तोखणायेचें आसलें तरीय सैमीक रबराची तशाक तशी प्रतिकृती तयार करप शास्त्रज्ञांक जमूंक नाशिल्लें. पूण १९५५ च्या अदमासाक सैमीक रबराचें संश्लेशण करपांत शास्त्रज्ञांक यश आयलें. आतां जायते रबर प्रकार खबर आसात. तातूंतल्या कांय म्हत्वाच्या संश्लेशित रबरांचीं नांवां अशीं आसात -

पॉलिआयझोप्रीन (संश्लेशीत सैमीक रबर), पॉलिक्लोरोप्रीन (निओप्रीन), ब्युटाडायन - ॲक्रिलोनायट्रायल रबर (एन्बीआर), ब्युटील रबर, पॉलिसल्फायड रबर, पॉलियुरेथेन रबर, क्लोरोसल्फोनेटेड पॉलिइथिलीन, सिलिकॉन रबर, फ्लुओरो रबर आनी उश्मा मृदू प्रत्यास्थ- वारिकां वा उश्मामृदू रबर.

संवसारांतल्या कांय मुखेल देशांतल्या आनी तुळेखातीर भारतांतल्या संश्लेशीत रबराच्या उत्पादनाची आंकडेवारी मुखार दिल्ल्या कोश्टकांत दिल्या -

**संवसारांतल्या कांय मुखेल देशांतल्या संश्लेशीत रबराचें उत्पादन.**

(मॅट्रीक टनांनी)

| देश | १९९१ | १९९५ |
|---|---|---|
| अमेरिका | २०५० | २४४० |
| जपान | १३७७ | १४९७ |
| चीन | ३४५ | ४९३ |
| भारत | ५५ | ६५ |
| ऑस्ट्रेलिया | ३५ | ४९३ |
| द. कोरीया | २२५ | ३६८ |
| कॅनडा | १९० | १७५ |
| जर्मनी | ५०४ | ४८७ |
| फ्रांस | ४७१ | ६१८ |
| ब्राझील | २६४ | २९५ |
| इंग्लंड | २५१ | ३२० |
| इटली | ३९५ | ३१० |
| टायवान | १७६ | २९३ |

भारतांत संश्लेशीत रबराचें उत्पादन १९६३ त उत्तर प्रदेशांतल्या बरेली हांगा सिंथॅटीक ॲंड कॅमिकल्स लि. हे कंपनीन सुरू केलें. हे कंपनीची वर्सुकी उत्पादन क्षमताय ३०,००० टन आसून ती स्टायरीन ब्युटाडायन आनी नायट्रायल ह्या रबराचें उत्पादन करता. इंडियन पॅट्रोकॅमिकल्स कॉर्पोरेशनान बडोद्याक १९७८ त सुरू केल्ल्या कारखान्यांत पॉलिब्युटाडायन रबर तयार करतात आनी ताची उत्पादन क्षमताय २०,००० टन आसा. भारतांतल्या वट्ट रबराच्या

रवपांतलो २०% रवप संश्लेशीत रबराचो आसा. संश्लेशीत रबराच्या वट्ट उत्पादनांतलें ६० टक्क्यांपरस चड उत्पादन टायर उद्देगांत वापरतात. उत्पादनाच्या मानान संश्लेशीत रबराची मागणी चड प्रमाणांत आशिल्ल्यान संश्लेशीत रबर आयात करचें पडटा. सकयल दिल्ल्या कोश्टकांत रबराचे आयातीची आंकडेवारी दिल्या -

भारतांतली संश्लेशीत रबराची आयात अशीः

| वर्स | (आयात टनांनी) |
|---|---|
| १९८४ - ८५ | ३०२४८ |
| १९८५ - ८६ | ३९०८६ |
| १९८६ - ८७ | ३२६०० |
| १९८७ - ८८ | ३०१०० |
| १९८८ - ८९ | ३३९५० |
| १९८९ - ९० | ३९००० |
| १९९० - ९१ | ५१८८० |
| १९९१ - ९२ | ३९८०० |
| १९९२ - ९३ | ५०११८ |
| १९९३ - ९४ | ६३००० |
| १९९४ - ९५ | ६४४३७ |
| १९९६ - ९७ | ६८६३० |

वेगवेगळया देशांतली सैमीक आनी संश्लेशीत रबराच्या रवपाची १९८१ ची आंकडेवारी अशी आशिल्ली (किग्रा) :- अमेरिका ११.६; कॅनडा १२.०; अस्तंत जर्मनी ९.२, ब्रिटन ६.१, फ्रांस ८.५, ऑस्ट्रेलिया ६.७, इटली ६.८, जपान १०.९, भारतांतलो रवप फकत ०.३३ कि. ग्रॅ. आशिल्लो.

**रबर मंडळ :** (रबर बोर्ड)- १९४७ च्या रबर अधिनियमाप्रमाण रबर मंडळाची स्थापना केली. रबर मंडळाचें मुरवेल कार्यालय केरळांत कोट्टायम शारांत आसा. ह्या मंडळान प्रयोगशाळेंत आनी रबर मळयांनी वड प्रमाणांत प्रयोग करून वेगवेगळया जमनीरवातीर सान्याचें प्रमाण थारायलां. रबराचें चड उत्पन्न दिवपी झाडां विकसीत केल्यांत. तंत्रीक नदरेन प्रमाणीत रबर तयार करपारवातीर देशी यंत्रसामग्री तयार केल्या. सैमीक रबराच्या वेगवेगळया वस्तुंच्या उत्पादनारवातीर लागपी तंत्रज्ञानूय मंडळाचे वतीन काररवान्यांक दितात.

कोचीन विद्यापिठांत रबर प्रक्रिया आनी तंत्रविद्या ह्या विशयाचो बी. टॅक. पदवेचो अभ्यासक्रम आसून तातूंत रबराची लागवड, दीरव काडप, दिरवावयली प्रक्रिया सारकिल्या गजालींचें शिक्षण दितात. गुजरात विद्यापिठान अहमदाबादाक रबर तंत्रविद्या संस्था स्थापन केल्या. रवरगपूराक इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजी हे संस्थेंत रबर तंत्रविद्या विभाग आसून तातूंत २ वर्सांचो एम. टॅक. पदवेचो अभ्यासक्रम आसा. तशेंच, रबर उद्देगाच्या हीतसंबंदांची रारवण करपारवातीर मुंबय इंडिया रबर इंडस्ट्रीज ॲसोसिएशन ही संस्था स्थापन जाल्या. इंडियन रबर मॅन्युफॅक्चरर्स रिसर्च ॲसोसिएशन ही संशोधन संस्थाय मुंबय आसा.

रबर मंडळाचे वतीन रबर (म्हयनाळें), रबर स्टॅटिस्टिकल न्यूस (म्हयनाळें), रबर बोर्ड बुलेटीन (त्रैमासीक) आनी इंडियन रबर स्टॅटिस्टिक्स (वर्सुकी) हीं नेमाळीं प्रसिद्द करतात.

मलेशिया, इंडोनेशिया, श्रीलंका आनी विएतनाम ह्याय देशांनी रबर संशोधन संस्था म्हत्वाचें कार्य करीत आसून त्यो तंत्रीक लेरव आनी शेतकान्यांक उपेगी अशी म्हायती दिवपी पुस्तिकाय प्रसिद्द करतात.

- कों. वि. सं. म.

**रमजान :** मुसलमान वर्साचो णववो म्हयनो. हो मुसलमानांचो उपास करपाचो म्हयनो. रम्ज म्हळयार भाजप. उपासान सगळीं पापां जळून वतात, म्हणून ह्या व्रताक हें नाव मेळ्ळें आसुंये. ह्या व्रताक पाळो दिवप हो तांच्या धर्माचरणाच्या पांच नेमांमदलो एक. ह्या उपासान सर्ग मेळटा आनी पाप नश्ट जाता, अशें महंमदाचें वचन आसा. म्हणून मुसलमान लोक हें व्रत पाळटात.

हें व्रत एक म्हयनोभर करप. उपासाच्या काळांत सुर्यउदेंता सावन तो अस्ताक वच मेरेन कांयच रवावप - पियेवप ना. कांय लोक थुकीय गिळिनात. कश्ट करप्यांक दीस उजवाडचे पयलीं जेवपाची मेकळीक आसता. भोंवडेकार, दुयेंत, म्हातान्यांक, कुड्यांक, गुरवार बायलांक आनी भुरग्यांनी हो उपास केलोना जाल्यार जाता. भोंवडेकार आनी दुयेंत लोकांनी वेळ मेळटा तेन्ना उपास करूंक जाय. हाका कज़ा म्हळयार भरपाय अशें नांव आसा.

धर्मीक वृत्तीचे मुसलमान ह्या म्हयन्याचे कायं दीस मशिदींत सारतात. थंय परत परत प्रार्थना करप, कुराण वाचप हे कार्यक्रम करतात. रमजानाचे सत्ताविसावे रातीं स्वर्गांत पुराय कुराण ग्रंथ तयार जालो अशें महंमदान म्हणिल्लें आसा. फकत उपास आनी प्रार्थना करून पुण्य लागना; जाल्यार त्या वेळार सत्यभाशण, सदद्‌विचार आनी सदाचार हांकां म्हत्व आसता अशें महंमदाचें वचन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रमजान ईद :** मुसलमानांची एक व्हड परब. हो सण म्हळयार रमजान उपासाचें पारणें आसता. शव्वाल हो तांचो धावो म्हयनो आसून, ताच्या पयल्याच दिसा हें पारणें करपाचें आसता म्हणून ताका 'ईद - ऊल- फित्र' अशें म्हण्टात. ह्या ईदापरस बकरी ईदाचें म्हत्व चड आशिल्ल्यान ताका ईद आनी हाका धाकलो ईद अशें म्हण्टात. ह्या दिसा रवूब दानधर्म करतात म्हणून ताका इदुस्सदका अशेंय नांव आसा.

सकाळीं प्रार्थना जाले उपरांत पयलीं धंय-भात आनी साकरीचें जेवण घेतात. त्याच वेळार, खारको खावपाची चाल आसा. कारण महंमद आनी ताच्या घरच्या लोकांक होच जिनस मुखेल मेळटालो, अशी समजूत आसा. शेवयांची खीर खावपाचीय रीत आसा.

ह्या दिसा सगळे दादले-बायलो बरे कपडे आनी भांगरां घालून एकामेकांक मेळपाक वतात. तेच प्रमाण गांवाभायर ईदगाह (प्रार्थनेची सुवात) नांवाच्या आंगणांत जमून समुदायीक प्रार्थनाय करतात. थंय पेश इमाम (मुखेल आचार्य) खुत्बा म्हळयार कुटुंबीक, समाजीक आनी अध्यात्मीक कर्तव्यांचो उपदेश करता. मागीर सगळे जाण प्रार्थना करतात. उपरांत आमीन म्हळयार शांती असो घोश केले उपरांत कार्यक्रम सोंपता.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : ईद

**रमण (रामन), सर चंद्रशेखर व्यंकट :** (जल्म : ७ नोव्हेंबर १८८८ तिरुचिरापल्ली; मरण : २१ नोव्हेंबर १९७० बेंगलोर). भारतीय भौतिकीविज्ञ. प्रकाशाच्या प्रकीर्णनासंबंदीचें संशोधन आनी ताच्याच नांवान वळखुपांत येवपी रामन परिणामाचो सोद हाचेखातीर १९३० वर्साचो भौतिकीचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो.



१९०४ वर्सा ताणें चेन्नईच्या प्रेसिडेन्सी कॉलेजांतल्यान बी. ए.ची पदवी पयल्या क्रमाकांन मेळयली. ताका भौतिकी विशयांतलें भांगरापदक मेळ्ळें. १९०७ वर्सा ताणें भौतिकीतली एम्. एची पदवी उंचेल्या प्रावीण्यासयत मेळयली. मजगतीं ताणें प्रकाशकी आनी ध्वनिकी ह्या विशयांत मूलभूत संशोधनय केल्लें. पूण त्या काळांत भारतांत वैज्ञानिक संशोधनाक चडसो वाव नाशिल्लो. तेखातीर तो भारत सरकारच्या अर्थ खात्यांतले नोकरे खातीर सर्तीचे परीक्षेक बसलो आनी तातूंत पयल्या क्रमांकान पास जालो. उपरांत कलकत्त्याक ताची सहाय्यक महालेखापाल ह्या पदाचेर नेमणूक जाली. ह्या कामावांगडाच ताणें कलकत्त्याच्या 'इंडियन ॲसोसिएशन फॉर द कल्टिव्हेशन ऑफ सायन्स' हे संस्थेचे प्रयोगशाळेंत आपलें संशोधन कार्य चालू दवरलें. ताच्या कार्याचें म्हत्व वळखून कलकत्ता विद्यापिठांत नव्यानूच स्थापणूक जाल्ल्या भौतिकीच्या पालिट अध्यासनाचेर १९१७त ताची नेमणूक जाली. सोळा वर्सां ह्या पदाचेर काम करतकच १९३३त तो बंगलोर इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्स हे संस्थेंत भौतिकी विभागाचो मुखेल जालो. फुडें ताणेंच स्थापन केल्ले रामन इन्स्टिट्यूट ऑफ रिसर्च हे संस्थेचें १९४८ सावन संचालकपद सांबाळ्ळें.

कलकत्त्याक अर्थ खात्यांत नोकरी करतना ताणें कंपनां आनी ध्वनी हेविशीं संशोधन केलें. हातूंत तंतुंच्या आंदोलनाच्या सैध्दांतिक आनी प्रायोगिक अभ्यासाचो आस्पाव जाता. तेचभशेन ताणें अस्तंती आनी भारतीय वादयां चडकरून व्हायेलिन, चेलो, पियानो, वीणा, सतार, मृदंग, तबलें हेविशीं संशोधन केल्लें. कलकत्ता विद्यापिठांत आसतनाय ताणें असोसिएशनाचे प्रयोगशाळेंत प्रकाशकी आनी भौतिकी ह्या विशयांतलें संशोधन चालूच दवरलें.

१९२१ वर्सा ऑक्सफर्ड हांगा भरिल्ल्या ब्रिटीश साम्राज्य विद्यापीठ परिशदेंत रमनान कलकत्ता विद्यापिठाचें प्रतिनिधित्व केलें. तेन्ना ताणें इंग्लंडांत रॉयल सोसायटीमुखार तंतुवाद्यांच्या सिध्दांताचेर व्याख्यानय दिलें. भारताकडे परतून येतना भूमध्य दर्याच्या गाड निळ्या रंगान प्रभावित जाल्ल्यान कलकत्त्याक येवन ताणें ह्या निळ्या रंगाचें कारण सोदून काडपाचें कार्य हातांत घेतलें. लॉर्ड रॅली हाणें हेविशीं दिल्लें स्पश्टीकरण ताका मानवलेना. जेतरेन हवेंतल्या रेणुंनी प्रकाशाचें प्रकीर्ण केल्ल्यान आकाशाक प्राप्त जावपी रंगांचें स्पश्टीकरण दिवपाक जाता, तेचप्रमाण दर्याच्या निळ्या रंगाचें स्पश्टीकरण दिवपाक जाता, अशें प्रतिपादन रमनान, १९२२ वर्सा प्रेसिडिंग्ज ऑफ द रॉयल सोसायटी हातूंत उजवाडायल्ल्या आपल्या निबंदांत केलें. सादारण परिस्थितींत उदक सूर्यप्रकीर्णन धूळीकणविरयत हवेपरस १५० पटींनी चड करता अशें प्रयोगान दाखोवन दिलें. १९२४-२५ वर्सा ताणें कॅनडा, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, रशिया, जर्मनी, इटली आनी स्वित्झर्लंड ह्या देशांची भोंवडी करून थंयच्या संस्थांक भेटी दिल्यो. आपल्या वांगड्यासयत ताणें वेगवेगळया पदार्थांनी चडकरून द्रवांनी आनी वायुंनी उपलब्ध कंप्रतांच्या प्रकाशाच्या जावपी प्रकीर्णनाचो अभ्यास केलो. एप्रिल १९२३ त रामनाचो वांगडी के. आर. रामनाथन हाका सदांच्या प्रकीर्णित प्रकाशावांगडाच बदलिल्ल्या तरंगलांबींचें दुय्यम आनी दुर्बल प्रारण (तरंगरुपी ऊर्जा) मेळ्ळें. रामन आनी के. एस्. कृष्णन हांणें हो परिणाम वेगळो करपाचें कार्य सुरू केलें. ताणीं आपाती आनी प्रकीर्णित प्रकाशाच्या मार्गांत पूरक प्रकाश गाळण्यो दवरल्यो आनी जतनायेन शुध्द केल्ल्या द्रव आनी धूळिकरण विरयत हवा ह्या दोगांयनी सूर्यप्रकाशाच्या केंद्रित शलाकेच्या केल्ल्या प्रकीर्णनांत तांकां नव्या प्रकारचें दुय्यम प्रारण मेळ्ळें. हो सोद ताणीं 'नेचर' ह्या ब्रिटीश नेमाळयाक फेब्रुवारी १९२८ त कळयलो.

रामनान फुडें पाऱ्याच्या विद्युत् प्रज्योतीचो प्रकाश उद्‌गम म्हणून उपेग करून आपल्या प्रयोगांत चड सुदारणा केली. दुय्यम प्रारणांत जायत्या वर्णपट रेशांची अदीक लांबायेच्या तरंगलांब्यांकडे स्थानच्युती जाल्ल्याचें दिसून आयलें. ही स्थानच्युती परिक्षित पदार्थांचें खाशेलपण आशिल्ल्याचें आनी हे स्थानच्युतीवयल्यान प्रकीर्णन करपी रेणू ऊर्जा शोशण करता हें कळ्ळें.

रमन आनी कृष्णन हांचे उपरांत रोखडेंच जी. लँड्सबर्ग आनी एल्. मांडेलस्टाम ह्या रशियन संशोधकांक होच आविश्कार क्रॉर्टझ हांगा जालो. पूण रामनान ह्या परिणामाविशीं केल्ल्या विवरणावयल्यान ताणीं केल्लें संशोधन चड सरवोल आशिल्ल्याचें प्रस्थापित जालें. ह्या सोदाक लागून तांकां नोबॅल पारितोशीकाचो भोवमान मेळ्ळो.

आधुनिक भौतिकीच्या इतिहासांतलो एक आद्य विचारवंत म्हणून रमनाक सगळयाक मान्यताय मेळ्ळी.

एन्. एस्. नागेंद्रनाथ हाचेवांगडा रामनान द्रवातलें श्राव्यातीत म्हळयार मानवी श्रवणक्षमतेचे पलतडी म्हळयार २०,००० हर्टझांपरस चड कंप्रतेच्या ध्वनीतरंगांक लागून प्रारणाच्या जावपी प्रकीर्णनाविशीं १९३५ आनी १९३६ वर्सा दोन म्हत्वाचे निबंध उजवाडायले. उपरांत ताणीं सादया उजवाडांत दवरिल्ल्या स्फटिकांतल्या अवरक्त कंपनांचेर क्ष - किरणांक लागून जावपी परिणामाविशीं प्रायोगिक आनी सैध्दांतिक संशोधन केलें.

१९४८ वर्सा ताणीं स्फटिकांच्या वर्णपटविज्ञानीय वर्तनाचो अभ्यास करून स्फटिक गतिकीतल्या मूलभूत प्रस्नांकडे पळोवपाचो नवो दृश्टीकोन मांडलो. १९५० - ५८ ह्या काळांत मुखेल करून हिऱ्याचे संरचनेचो आनी गुणधर्मांचो तशेंच लॅब्रॅडोरायट, अकिक, ओपल, मोती अशा रंगदीप्त पदार्थांचे संरचनां आनी प्रकाशीय गुणधर्मांचो अभ्यास केलो.

१९६० उपरांत ताणें रंग आनी तांची संवेदनां हेविशीं संशोधन करपाक सुरवात केली. ताणीं फुलांचो वर्णपटविज्ञानीय अभ्यास करून पाकळयांचे रंग आनी तरातरांच्या फुलांच्या जातींचे देरवीक - गुलाब, ॲस्टर, हिबिस्कस ह्या जातींचे वर्णपट हेविशीं १९६३ वर्सा एक निबंदमाळ उजवाडायली.

१९६४ वर्सा ताणें रंगनदरेविशीं नवो सिध्दांत मांडलो. ह्या विशयाचेर ताणें बरयल्ले ४३ निबंद १९६८ वर्सा फिजिऑलोजी ऑफ व्हिजन ह्या नांवांखाल उजवाडायले.

१९२६ वर्सा ताणेंच स्थापणूक केल्या इंडियन जर्नल ऑफ फिजिक्स' ह्या नेमाळयाचो तो खूब तेपमेरेन संपादक आशिल्लो. १९३४ वर्सा स्थापणूक केल्ले इंडियन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचो तो सुरवातीसावन अध्यक्ष आशिल्लो. बेंगलोरच्या करंट सायन्स ॲसोसिएशनाचोय तो अध्यक्ष आशिल्लो.

ताणें वेगवेगळ्या विशयांचेर ५०० परस चड संशोधनात्मक निबंद वा लेख बरयले आनी ते फिलॉसॉफिकल मॅगझीन, नेचर, फिजिकल रिव्ह्यू, प्रोसिडिंग्ज ऑफ द रॉयल सोसयटी, Zeitschrift fur Physik, इंडियन जर्नल ऑफ फिजिक्स, प्रोसिडिंग्ज ऑफ द इंडियन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेस, करंट सायन्स ह्या नेमाळयांनी उजवाडा आयले. हाचेभायर ताणें Hand buch der Physik ह्या जर्मन विश्वकोशाच्या आठव्या खंडांत तंतुवाद्यांच्या सिध्दांताविशीं एक म्हत्वाची नोंद बरयली. द न्यू फिजिक्स (१९५१) ह्या आपल्या ग्रंथांत ताणें आधुनिक भौतिकीविशींचे ताचे विचार मांडल्यात.

१९२४ वर्सा लंडनचे रॉयल सोसायटीचो सदस्य म्हूण ताची वेंचणूक जाली. ब्रिटीश सरकारान ताका १९२९ वर्सां 'नायट' हो किताब भेटयलो. ताका कितल्याशाच डॉक्टरेट पदव्यांचो आनी वैज्ञानिक संस्थांच्या सदस्यत्वाचो मान मेळ्ळो. तेचभशेन ताका इटालीयन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचें मेल्यूसी पदक (१९२८), रॉयल सोसायटीचें ह्यूझ पदक (१९३०), फिलाडेल्फियाच्या फ्रँक्लिन इन्स्टिट्यूटाचें फ्रँक्लीन पदक (१९४१) हे भोवमान मेळ्ळे.

भारत सरकारान ताका भारतरत्न (१९५४) हो सर्वोच्च नागरी पुरस्काराचो सन्मान दिला.

- कों. वि. सं. मं.

**रमण महर्षी :** (जल्म : १८७९, तिरुच्चुळी (रामनाड जिल्हो, मदुराय); मरण : १४ एप्रिल १९५० अरुणाचल).

एक आधुनिक संत. रमण महर्षीचें पाळण्यांतलें नांव वेंकटरामन अशें आशिल्लें. ताच्या बापायचें नांव सुंदर अय्यर आनी आवयचें नांव अळगम्माळ. तिरुच्चुळीकच ताचें शिक्षण जालें.



वेंकटरामन बारा वर्सांचो आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयलें. ताका लागून ताचें सगळें कुटूंब मदुराक ताच्या बापोलयागेर वचून रावलें. थंय तो इंग्लीश शाळेंत वचपाक लागलो. पूण अभ्यासांत ताचें लक्ष कशेंच लागनाशिल्लें.

इश्कोलांत शिकता आसतना वेंकटरामनाच्या जिवितांत एक सुचक असो प्रसंग घडलो. एक खेपे तो एकटोच बशिल्लो आसतना ताका आपूण मरतलों अशें दिसपाक लागलें. पूण धीर सोडीनासतना तो शांतपणान मरणाचें गुपीत जाणून घेवपाचो यत्न करपाक लागलो. मरणाचो भायलो देखावो तशा तसो सादपाखातीर ताणें तोंड बंद केलें, दोळे धांपले आनी उस्वास बंद केलो. पूण दुसऱ्याच खिणाक ताच्या मनात एक विचार आयलो. तो म्हणजे, शरीर मेलें, पूण आपूण कांय मरूंक ना, तशेंच, शरीर जड आनी अचेतन जालें खरें, पूण शरीरा भितर 'हांव' म्हणून कोणतरी मरण पळोवपी आसाच. शरीरापरस वेगळो आशिल्ल्या 'ताचो' ताका भास जावपाक लागलो.

हो साक्षात्कार इतको खर आशिल्लो, जाका लागून ताचो पयलींचो सभाव बदललो, एकलेंपण ताका मानवपाक लागलें. वेळ मेळटा तेन्ना मीनाक्षीच्या देवळांत वचून तो भक्तिभावान नतमस्तक जावंक लागलो.

फुडले साधनेखातीर ताणें अरुणाचलाक वचपाचें थरयलें. वाटेंत जायते त्रास सोंसून तो १ सप्टेंबर, १८९६ दिसा अरुणाचलाचेर पावलो. सदांच आठ वरांचेर उगडपी अरुणाचलेश्वराच्या देवळाचीं दारां त्या दिसा पयलींच उगडिल्लीं. वेंकटरामन सरळ गाभाऱ्यांत गेलो आनी देवाच्या पांयाचेर तकली दवरली. तेन्नाच ताका एके अपूर्व शांतीची जाणविकाय जाली.

तेउपरांत ताणें आंगावयले कपडे आनी जानवें काडून उडयलें आनी फकत एक लंगोटी न्हेसून आनी तकलेचें मुंडण करून तो संन्याशी जालो.

अरुणाचलेश्वराच्या पयल्या प्राकारांत एक सहस्त्रस्तंभी मंडप आसा. त्या मंडपांतल्या एका चौथऱ्याचेर बसून वेंकटरामन ध्यान करपाक लागलो. पूण कांय मस्त्या भुरग्यांनी ताका त्रास दिवपाक सुरवात केली. देखून थंयच्यान उठून लागींच्याच पातालर्लिंग नांवाचे गुहेंत वचून बसलो. थंय ध्यानमग्न अवतिकायेंत आसतना ताका मुयो, जळारांनी चाबून रक्तबंबाळ केलो. पूण वेंकटरामनाक हें कांयच जाणवलें ना अशें म्हण्टात. वेंकटाचल मोदली नांवाच्या एका मनशान हो प्रकार पळयलो आनी ताणें ताका थंयच्यान उखलून गोपूर सुब्रह्मण्यस्वामी हाच्या देवळांत व्हरून दवरलो. एक सत्पुरूस म्हणून रमणाची कीर्त त्या काळांत पातळपाक लागली आनी जायते लोक ताच्या दर्शनाक येवपाक लागले. अरुणाचलाचेर पावतकच ताणें जें मौन धारण केल्लें तें फुडें इकरा वर्सां मेरेन ताणें पाळ्ळें. त्याच काळांत लोक ताका रमणमहर्षी म्हणपाक लागले.

मदल्या काळांत रमण महर्षीची आवय ताका घरा व्हरपाखातीर आयली. पूण तो तिचे वांगडा गेलो ना. पूण मागीर १९१३ त तीच येवन आश्रमांत रावपाक लागली. ताचो धाकलोय भाव संन्यास घेवन निरंजनानंद हें नाव धारण करून तांचे म्हऱ्यांत रावपाक आयलो. महर्षीच्या उपदेशान ताची आवय ल्हव ल्हव विरक्त जाली. इ.स.१९२२ च्या मे म्हयन्यांत तिका मरण आयलें. अरुणाचलाच्या पायथ्याकडेन दक्षिण तोंकाक पाली तिर्थालागीं तिची समाधी बांदल्या. समाधीच्या जाग्यार शिवलिंगाची स्थापना करून ताका मातृभूतेश्वर अशें नांव दिलां.

त्या वेळार महर्षी स्कंदाश्रमांत रावतालो. हो आश्रम चलेश्वर देवळाकडचे एके गुहेंत आशिल्लो. थंयच्यान कोणाकय तरी सदां मातृभूतेश्वराचे पुजेखातीर येवचें पडटालें. देखून भक्तांनी रमणमहर्षीक थंयच आश्रम बांदपाक सांगलें. महर्षीन तें मान्य केलें. मागीर भक्तांनी महर्षीखातीर एक मठ, अगरसाळ, गोसाळ, पुश्पवाटीका सारकिल्यो इमारती बांदल्यो.

रमणजयंती, अळगम्माळचो वर्सदीस आनी कृत्तिकामहोत्सव हे तीन उत्सव आश्रमांत व्हड थाटान मनयतात. तशेंच, त्या आश्रमांतूय ताच्या दर्शनाखातीर जायते भक्त सकाळ सांजवेळ येताले. रातच्या जेवणाउपरांत मात केन्नाय तो ऋभुगीतादी ग्रंथांचे पाठ दितालो. अशे तरेन थंय गरजूंक ज्ञानदान करपाचें काम सदांच चलता.

रमण महर्षीन आपलें आयुश्य अरुणाचलाचेरूच सारलें. लोकय ताच्या दर्शनाखातीर थंय वचपाक लागले. पिडेस्त जाल्ल्या लोकांक ताच्या दर्शनान शांती मेळपाक लागली. काव्यकंठ गणपतीशास्त्री नांवाचो एक विद्वान ग्रंथकार ताका शरण गेलो आनी ताच्या उपदेशान ताका शांती आनी समाधान मेळ्ळें. जायते अस्तंती लोक अध्यात्मीक साधनेच्या उद्देशान ताचे सरेन येवपाक लागले. तातुंतलो पॉल ब्रंटन हो इंग्लीश मनीस मुखेल आशिल्लो. ताणें एक पुस्तक बरोवन महर्षीचो संदेश अस्तंती देशांनी पावयलो. ताका लागून जगाच्या जायत्या भागांतल्यान खूब लोक ताच्या दर्शनाक येवपाक लागले. खरी तळमळ आशिल्ल्यांकच तो उपदेश करतालो आनी आत्मसाधना करपाची इत्सा आशिल्ल्यांक मार्गदर्शन करतालो. रामनाथ अय्यर, सुंदरम्मल, रामयोगी, नरसिंह अय्यर, शुध्दानंद भारती, हॅरी डिकमन, फ्रॅडरिक फ्लॅचर, राफायल हर्स्ट हे ताचे कांय मुखेल शिश्य.

रमण महर्षीन आपूण व्याख्यानां दिवन वा पुस्तकां बरोवन आपल्या तत्त्वज्ञानाचो प्रचार करूंक ना. भक्त ताचे सरेन वताले आनी तांकां तो स्वानुभवाच्यो जापो दितालो. ह्या प्रश्नोत्तरांनीच श्रीरमणवाङ्मय तयार जालां. तें अशें: श्री सद्दर्शन, उपदेशसार आनी रमणोपनिशद आनी रमणगीता.

हांचे भायर ताचे हेर कांय प्रबंध आनी स्तोत्रांची नामना आसा. रमणमहर्षीचें तत्त्वज्ञान हें अद्वैत वेदांताक अणसरून आसून आत्मसाक्षात्कार हें ताचें ध्येय.

- कों. वि. सं. मं.

**रमावल्लभदास** : मराठी कवी आनी टिकाग्रंथकार. ताच्या जल्ममरणाविशीं सारकी म्हायती मेळना. पूण पांगारकराच्या मतान ताचो काळ १५८८ ते १६४८ (शके १५१० ते १५७०), जाल्यार सांप्रदायिक मताप्रमाण तो १६०९ ते १६६८ ( शके १५३१ तें १५९०) असो आसा. महाराष्ट्र सारस्वतकार वि. ल. भावे हाच्या मतान रमावल्लभदासाचो जल्मकाळ १५३२ (सन १६१०) असो दितात.

रमावल्लभदासाचो बापूय अंबाजीपंत ऊर्फ यमाजीपंत रालेरासकर हो देवगिरी वा दौलताबादच्या राजाचो कारभारी आसलो. रमावल्लभदासाचें मूळ नांव तुकोपंत. फुडें ताच्या बापायकडेन आशिल्लें कारभारीपद उपरांत ताचेकडेन आयलें. उपरांत परक्या सैन्याकडेन जाल्ल्या झुजांत ताणें वांटो घेतलो. ह्या झुजांत दैलताबादच्या राजाक जैत मेळ्ळें उपरांत शत्रुसैन्याची लुटालूट केली. ते लुटींत रमावल्लभदासाच्या हातांत एकनाथ भागवताची प्रत आयली. तिच्या वाचनान तो ल्हव ल्हव विरक्त जालो. फुडें लक्ष्मीधर नांवाच्या एका सत्पुरुसाकडल्यान ताणें गुरूपदेस घेतलो. ह्या लक्ष्मीधरान ताचें नांव 'रमावल्लभदास' अशें दवरलें.

ताचे ग्रंथरचणुकेंत गीतेवयली चमत्कारीक टिका, शंकराचार्याच्या बृहद्वाक्यवृत्ती वयली वाक्यवृत्ती ही टिका, भागवताच्या दशमस्कंधाच्या आदारान बरयल्लो ग्रंथ दशकनिर्धार, गुरूवळी हे गुरूमहिमापर प्रकरण आनी संतनामावळी हांचो आस्पाव जाता. तेभायर ताची शिश्या आवडाबाई हिका उद्देशुन ताणें बरयल्लीं इकरा ओवीबद्द पत्रां प्रबोधचंद्रिका प्रकरण म्हणून वळखतात. कितलेशेच अभंग आनी पदां ताणें रचल्यांत. वैश्णवगती हो एक अनुपलब्ध ग्रंथ ताच्या नांवार आसा.

रमावल्लभदासान कृष्णभक्तीचो प्रसार केला. कृष्णचरित्राचें संकीर्तन हें ताचे कवितेचें एक खास लक्षण आसून, ताणें रचिल्लीं पदां मोवाळ आसात. गोंय, कारवार ह्या भागांनी रमावल्लभदासाची परंपरा आसा. तशेंच, ताची उपर्युक्त शिश्या आवडाबाई हिचो मठ मल्लापुरम् नगरांत आसून थंय दर वर्सा कृष्णजयंती मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रमाबाई पंडीत :** (पळेयात पंडीता रमाबाई).

**रवळनाथ :** कोंकणांतल्या ग्रामदेवतांमदली एक देवता. रवळनाथासंदर्भांत संशोधकांच्यो विंगड विंगड कल्पना आसात. कांय जाणांच्या मतान हें नांव रेवणनाथाचें अपभ्रश्ट रूप आसुंये आनी हो देव नाथपथांतलो आसुंये. कांय संशोधक हें उतर राहुल ह्या नावावयल्यान आयलां अशें समजतात. राहुल हो बुध्दाचो पूत. पुर्विल्या काळांत कांय लोक राहुलनाथ आनी ताची भक्ती उपासना घेवन कोंकणांत आयले जावंये. कांय जाणांच्या मतान रवळनाथ रुरूचें अपभ्रश्ट रूप. अश्टभैरवांत रुरू आसा. रुरूचें रवळू आनी ताचें मुखार नाथ हें उतर जोडून रवळनाथ अशें हें नांव तयार जालें आसुंये. सोरपाचें वीरव देंवोवप हें रवळनाथाचें खाशेलपण आसून देशावयल्या वहीरेबाचेंय तेंच खाशेलपण. ताचे वयल्यान हे दोनय देव भैरव संघांतलेच जावंक जाय अशेंय मत आसा.



रवळनाथाच्यो चडशो मूर्ती शीळामूर्ती म्हळयार फातराच्या रुपांत आसतात. ह्यो मूर्ती उब्यो आनी चार भुजांच्यो आसतात. तांचो दावो पांय मात्सो फुडें आनी वांकडो आसता. हातान त्रिशूळ, डमरू, खडग आनी अमृतपात्र आसता. माथ्यार मुकुट, गळयांत मनशाच्या कवट्यांच्यो माळो आसतात. पळोवपाक मूर्त भयानक आसता. ताची नदर सरळ आनी थीर आसता, ओंठार मिश्यो आनी पोल्यार व्हडले गले आसतात. रवळनाथ हो आंकवार (ब्रह्मचारी) देव आसून हातांतल्या आवतांवयल्यान तो शैव परिवारांतलो आसुंये.

कांयकडेन रवळनाथाक क्षेत्रपाळ अशेंय म्हण्टात जाल्यार काय सुवातेर क्षेत्रपाळाचे कांय अंश रवळनाथामदीं दिश्टी पडटात. वर्सांतल्या थरावीक वेळार गांवांकडल्यान ताचो समराधना करून भोवमान करतात. ताचो पुजारी गुरव वा राऊळ आसता.

गोंयच्या चडशा देवळांनी रवळनाथाच्यो मूर्ती दिश्टी पडटात, माशेलांत (फोंडे म्हालांत) चोडणासावन बाटाबाटीच्या वेळार स्थलांतरीत जाल्लें श्रीदेवकीकृष्ण रवळनाथ (पांडववाडो) हें देवस्थान आसा. पयलीं हें देवूळ गावणवाड्यार आशिल्लें असो उल्लेख मेळटा. ह्या देवळाक सर्वसामान्यपणान पिसो रवळूचें देवूळ वा वागाचें देवूळ अशें म्हण्टात. वागाचें देवूळ म्हणपाचें कारण म्हळयार देवळाच्या प्रवेशसोंपणाचेर बरे कोरीव तळपाचे म्हळयार फातराचे वाग बसयल्यात. पौश शुक्ल पुनवे दिसा हांगा जत्रोत्सव जाता जो 'मान्नी पुनव' नांवान गोंयभर नामनेक पावला. दिवचले, मुळगांवां हांगाय रवळनाथाचीं देवळां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**रवान्डा (र्‍वाण्डा) :** आफ्रिका खंडांतलो एक धाकटुलो देश. आफ्रिका खंडांत उदेंत - मध्य भागार आस्पाव जावपी हो देश विषुववृत्तीचे दक्षिणे लागींच आसा. र्‍वाण्डा हो आफ्रिका खंडांतलो सगळयांत दाट लोकवस्ती आशिल्लो देश. दर चौ.किमी. क सरासरी लोकांची दाटाय २४० इतली आसा. पुराय आफ्रिका खंडाकडेन तुळा केल्यार ती तेरा पटींनी चड आसा. क्षेत्रफळ २६,३३८ चौ.किमी. आसून, देशाची चडांत चड लांबाय २३३ किमी. (उदेंत - अस्तंत), जाल्यार रूंदाय फक्त १७७ किमी. (उत्तर - दक्षिण) आसा. लोकसंख्या ७,४७९,००० (१९९१). किगाली हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** र्‍वाण्डाची चडशी भूंय ऊंच - सकयल आनी दोंगरी आसा. देशाचे अस्तंतेक आनी वायव्येक आशिल्ले उंचेले पर्वत ज्वालामुखींसावन तयार जाल्ले आसात. विरुंगा पर्वताची वायव्येकडेन चडांत चड उंचाय ४,५१० मीटर इतली आसा. र्‍वाण्डाचे उत्तरेक ऊंच अशे साबार सडे आसून तांची उंचाय १,५०० ते २,१०० मीटर इतली आसा. त्या सड्यांच्यो कडो उदेंतेकडेन उब्यो आसून तांच्या मुळसांत रेबट जमीन आसा. त्या सड्यांच्या उब्या देगांक एस्कार्पमँट अशें म्हण्टात. देशांत ल्हान - व्हड अशो साबार न्हंयो आनी तळीं आसात.

किवू तळें आनी रूसीजी न्हंय मेळून देशाची अस्तंत शीम तयार जाल्या. किवू तळें आनी रूसीजी न्हंय हो आफ्रिकेच्या ग्रेट रिफ्ट ह्या देगणाचोच एक वांटो. कांगेरा न्हंय देशाची उदेंत शीम जाल्यार अर्कायारु न्हंय दक्षिण शिमेचो कांय भाग तयार करता. देशाच्या अस्तंत भागांत नेटान पावस पडटा. हाका लागून त्या वाठारांतले जमनीचो रसायनीक थर काबार जावन ती जमीन पडंग जाल्या. अस्तंतेक आशिल्ल्या 'ग्रेट रिफ्ट वॅली' भागांत वर्सुकी सरासरी तापमान २३° सॅ. जाल्यार पावसाचें प्रमाण ७५ सेंमी आसा. अस्तंतेकडच्या पर्वती भागांत वर्सुकी सरासरी तापमान १७° सॅ. जाल्यार पावस १४७ सेंमी. इतलो पडटा. विरुंगी पर्वतांचेर देशांतल्या हेर भागांपरस चड पावस पडटा. सड्याच्या प्रदेशांत सरासरी पावस १२० सेंमी. इतलो पडटा जाल्यार थंयचें सरासरी तापमान २०° सॅ. इतलें आसता.

**इतिहास :** सद्या ऱ्वाण्डा म्हणून प्रसिद्द आशिल्ल्या देशांत आदल्या काळांत हुतू शेतकामत्यांचो आनी पिग्मी ह्या शिकारी लोकांचो राबितो आशिलो. सुमार ६०० वर्सांपयलीं तुत्सी ह्या झुजारी वृत्तीच्या लोकांनी ह्या प्रदेशाचेर उत्तरेकडल्यान घुरी घालून तो हातासलो. ते लोक आपले वांगडा लांब शिंगांचीं खूब गोरवां घेवन आयिल्ले. १९५९ मेरेन तुत्सी लोकांनी हुतू शेतकामत्यांक आपल्या शेकातळा दवरले.

जर्मनीन १८९७ त सद्याच्या ऱ्वाण्डा आनी बुरुण्डी प्रदेशाचेर जैत मेळयलें. उपरांत तांणी जर्मन उदेंत आफ्रिकेचोच एक भाग म्हणून त्या प्रदेशाचेर राज्य केलें. १९१६त पयल्या म्हाझुजावेळार ऱ्वाण्डा - बुरुण्डी हो तेन्ना रुआण्डा - उरुण्डी नांवान प्रसिद्द आशिल्ल्या प्रदेशाचेर बेल्जियम सैन्यान जैत मेळयलें. पयल्या म्हाझुजांत जर्मनीचेर हार पडिल्ल्यान ताका आपल्यो आफ्रिकी वसणुकोय वगडावंच्यो पडल्यो. १९२३ त युनायटेड लिगान रुआंडा - उरुण्डी हे मँडेटरी प्रदेश म्हणून बेल्झियमाचे सुवादीन केलो. १९४६ त त्याच प्रदेशांचेर युनायटेड नेशन्स ट्रस्टाचे प्रदेश म्हणून बेल्जियमाचीच देखरेख उरली. १९५९ त राजकीय पेंचप्रसंग निर्माण जावन मुतेरा तिसरो ह्या राजाची हत्त्या जाली. हुतू लोकांनी तुत्सीं आड बंड उबारलें. तांचेमदीं व्हड झगडीं जावन तातूंत सुमार एक लाख पन्नास हजार लोकांक मरण आयलें. तातूंत तुत्सी लोकांचो चड आस्पाव आशिल्लो. हुतू लोकांच्या विद्रोहाक लागून देशांतल्यान सुमार एक लाख पन्नास हजार तुत्सी लोक बुरुंडींत आनी हेर शेजारच्या राश्ट्रांनी पळून गेले.

१९६१ त ऱ्वाण्डाच्या लोकांनी आपल्या देशाक गणराज्याचो दर्जो मेळचो म्हणून कौल घेतिल्ल्यान रुआण्डा - उरुण्डी हे प्रदेश एक जुलय, १९६२ दिसा ऱ्वाण्डा आनी बुरुण्डी ह्या नांवांनी दोन स्वतंत्र देश अस्तित्वांत आयले. उपरांत ऱ्वाण्डाच्या लोकांनी ग्रेगरी कायीबंदा हाका आपलो अध्यक्ष म्हणून वेंचून काडलो. उपरांत १९६५ आनी १९६९ त परतून दोन खेपे तो अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. १९७३ त सैनिक अधिकारी जनरल जुवेनाल हबिआरीमाना हाणें कायीबंदा हाका सत्ते भायरो करून आपूण ऱ्वाण्डाचो अध्यक्ष म्हणून घोशीत केलें. सगळीं सरकारी सुत्रां आपल्या हातांत घेवन ताणें हेर सैनिक अधिकाऱ्यांची सरकारी क्षेत्रांतल्या उंचेल्या पदांचेर नेमणूक केल्ली. पूण उपरांत ल्हव ल्हव सैनिकी अधिकाऱ्यांक पयस दवरून तो शिक्षित लोकांक राजकारणांत हाडपाक लागलो. उपरांत १९७८, १९८३ आनी १९८८ सेगीत तीन खेपे अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. हबिआरीमाना हाचे राजवटींत ऱ्वाण्डाची अर्थीक मळार कांय प्रमाणांत उदरगत जाली. पूण गरिबी पयस करपाक ताका यश मेळ्ळें ना. १९९० त देशाभायरे केल्ल्या तुत्सी लोकांनी सरकाराआड बंड उबारलें. १९९१ त संविधानांत पुनर्रचणूक करून थंय भोवपक्षीय राज्यपद्दत चालींत हाडली.

**अर्थीक स्थिती :** ऱ्वाण्डांतले चडशे लोक शेतकामती. ते मुखेलपणान आपल्या कुटुंबापुरतेंच पीक काडटात. केळीं, अळसांद्रे, कसावा, सोरघूम आनी कणगां हीं थंयचीं मुखेल पिकां. गांवगिऱ्या वाठारांतले कांय लोक गोरवां पोसतात. जमनीचे उंचाये प्रमाण पिकां काडटात. १,३७० मी. मेरेन उंचायेचे जमनीचेर रोबस्टां काफी लायतात. ही काफी इन्सटण्ट काफी तयार करपाक वापरतात, जाल्यार १३७० ते १८०० मी. उंचायेचेर शेतकामती अरेबीका काफी वाडयतात. काफी आनी च्या हांचो देशाच्या निर्यात जावपी म्हालांत व्हड वांटो आसा.

टीन आनी वॉल्फ्रामायट हीं देशांतलीं म्हत्वाचीं खनिजां. देशांतले वट्ट निर्यातींत त्या खनिजांचो सुमार चवथय वांटो आसता. देशांतले उद्देग - धंदे अजून मागशिल्ले स्थितींतूच आसात. ऱ्वाण्डा हो देस हेर देशांनी रेवडिल्ल्यान ताकां हेर देशांतल्या बंदरांक व्हड कर भरचो पडटा. तशेंच, रस्तेय मागाशिल्ले स्थितीतूच आशिल्ल्यान ताचो वायट परीणाम अर्थवेवस्थेचेर जाता. फ्रँक हें देशांचें अधिकृत चलन.

ऱ्वाण्डांत रेल्वे मार्ग ना. रस्त्याच्या मळार हालींच्या तेंपार नेटान उदरगत जायत आसा. पूण गांवगिऱ्या वाठारांतले चडशे रस्ते मातयेचेच आसात.

**लोक आनी समाजजीण :** १९९१ चे जनगणने प्रमाण ऱ्वाण्डाची लोकसंख्या सुमार ८० लाख इतली आशिल्ली. तातुंतले सुमार ९० टक्के लोक हुतू वंशीक गटांतले आसात. हुतू लोक हे मुखेलपणान शेतकामती आसून ते आपल्या कुटुंबापुरतेंच पीक काडटात. तातुंतले कांय लोक गोरवांय पोसतात. शारांत काम करपी कामगारांमदीं ऱ्वाण्डांतले सुमार पांच टक्के लोक तुत्सी वंशाचे. चडशे तुत्सी लोक सरकारी पदांचेर काम वा वेपार करतात. ऱ्वाण्डांत सुमार एक टक्के लोक पिग्मी वंशाचे आसात. तांचेमदले चडशे लोक शिकार करून आपलें पोट भरतात. युरोपी लोकूय थंय काय प्रमाणांत आसात. सगळयांत उणे क्रिस्तांव मिशनरीचे लोक थंय मेळटात.

ऱ्वाण्डाचे चडशे लोक किंयार्वाण्डा भास उलयतात. फ्रांसेझ

आनी किंयार्वाण्डा ह्यो न्वाण्डाच्यो राजभासो. देशांतले चडशे लोक रोमन पंथाचे आसात. मुळाव्या आफ्रिकी धर्माप्रमाण चलपी लोक साप्प उण्या प्रमाणांत आसात. मुळावें शिक्षण इगर्जेंतल्यानूच दितात. बुटारे शारांत विद्यापीठ आसा. सात ते चवदा वर्सांपिराये मदल्या भुरग्यांक शिक्षण फुकट आनी सक्तींचे आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रविकिरण मंडळ :** १९२० च्या अदमासाक मराठी कवितेक काव्यनिर्मिती आनी काव्यसादरीकरणाक एक नवो रुपकार दिवन, मराठी कविता सामान्य मनशामर्दीय लोकप्रिय करपाक वावुरपी मराठी कवींचो एक पंगड.

ह्या मंडळाची स्थापना १९२३ वर्सा जाली. ह्या मंडळांत स्थापणुकेवेळार श्रीधर बाळकृष्ण रानडे (१८९२ - १९८४), मनोरमाबाई रानडे (१८९६ - १९२६), माधव ज्युलियन (१८९४ - १९३९), यशवंत (१८९९ - १९८५), गिरीश (१८९३ - १९७३), ग. त्र्यं. माडखोलकर (१८९९ - १९७६), द.ल. गोखले आनी दिवाकर (१८८९ - १९३१) अशे वट्ट आठ वांगडी आशिल्ले. दिवाकर हें मंडळ सोडून गेल्याउपरांत ते सुवातेर विठ्ठल दत्तात्रय घाटे (१८९५ - १९७८) हो ताचो वांगडी जालो. मंडळांत सात दादले आनी एक बायल आशिल्ली देखून 'अरुंधतीवांगडा सत्पर्षी' हें मंडळाचें प्रतीक जालें आनी तें मंडळाच्या पुस्तकांचेर छापूंक लागले.

दर आयतारा कोणाय तरी एकल्यागेर एकठांय येवन कवितांचें वाचन वा गायन करप आनी तांचेर भासाभास करप हो तांचो परिपाठ आशिल्लो. ताकाच ते 'सन - टी - क्लब' म्हण्टाले. ह्या सन - टी - क्लबा' चेंच फुडाराक 'रविकिरण मंडळ' जालें.

रविकिरण मंडळाचें दायज तशें पळोवंक गेल्यार केशवसुती परंपरेन आस्पावपी आशिल्लें. मात ही परंपरा काळामानाप्रमाण अदीक धाडशी जाली. व्यक्तीस्वातंत्र्य आनी समाजीक सुदारणांचो पुरस्कार तांणी केलो. पूण तो साधनरुपांत जायनासतना साध्यरुपान जावपाक लागलो. प्रेमभावनेचो आविश्कार राधाकृष्णाच्या आदारान करिनासतना, सरळपणान जावपाक पावलो. तातुंतूय प्रेमभावना ही अशरिरीणीय आसूंक शकता हेंय काव्यांतल्यान उक्ते जावंक लागले. तेभायर सर्वसामान्य मनशाक रविकिरण मंडळांतल्या कवींच्या कवितांतल्यान आपल्या भावभावनांचो आविश्कार दिशिल्ल्यान ती कविता कविकुलाभायर पडून सर्वसामान्य शिकिल्ल्या मेरेनय पावली. काव्यगायनाचे प्रथेक लागून हे गजालीक आदार मेळ्ळो.

ह्या मंडळान एकठांय येवन काव्यरचना करपाचो प्रयोग केलो. अभिव्यक्तीच्यो विंगड विंगड तरा आनी पती कवींनी आदारल्यो, आनी रूढ केल्यो. पयलींसावन थोडेंभोव बरयिल्ल्या 'सुनित' मंडळांतल्या कवींनी वेगवेगळया आंगांनी आनी वेगवेगळया तरांनी (म्हळयार विंगड विंगड वृत्तांतल्यान) थीर केलें. मेकळया दिसपी सुनीतांतल्यानय कसलेंय कथासूत्र गुंथलें. भावगीत हें आपलेपुरतें, स्वतंत्र, स्वयंपूर्ण आसता तरीय तातुंतल्यान कथा गुंथून खंडकाव्याचें रूप ताका दिवपाचो प्रयोग जालो. मोग होच मुखेल विशय आसपी गझलींत हेर विशयय व्यक्त जावंक लागले. जानपदांचीं चित्रां रंगोवपी जानपदगीतां लोकप्रिय जालीं. रविकिरण मंडळा पयलींच्या काळांत चुकून वा अर्दकुटीं दिसपी समाजीक खंडकाव्यां, दीर्घ आनी पुरायपणान बरोवंक लागले. मंडळाचो एक वांगडी कंवी यशवंत हाणें छत्रपती शिवराय (१९६८) हें म्हाकाव्यूय बरयलें.

मंडळांतल्या कवींनी पयलीं सामुहीक आनी उपरांत वैयक्तिक कवितांझेले काडले आनी खंडकाव्यां उजवाडायलीं. श्री. बा. रानडे आनी ताची घरकान्न मनोरमाबाई रानडे, वि.द. घाटे, द. ल. गोखले, ग. त्र्यं. माडखोलकर हांणी थोड्यो कविता बरयल्यात. तरीय काव्यलेखनांत अदीक वांटो माधव ज्युलियन, यशवंत आनी गिरीश हांचो आसा. ह्या मंडळांतल्या कवींनी गद्य बरोवपय केलां. वि.द.घाटे हाणें उमेदीच्या काळांतूय आपूण जावन काव्यलेखनाचो निरोप घेवन गद्य बरोवप सुरू केलें. माधव ज्युलियनाचें पांडित्याचें मोडण दाखोवपी 'छंदोरचना' (१९२७,१९३७), यशवंताचें समीक्षात्मक 'रामदासः एक अभ्यास' (१९६५), आनी वि.द. घाटे हाचीं 'नाट्यरूप महाराष्ट्र' (१९२६), 'नाना देशातील नाना लोक' (१९३३) हीं आर्विल्लीं शिक्षणिक पुस्तकां, तशेंच 'काही म्हातारे व एक म्हातारी' (१९३९) सारकेली व्यक्तिचित्रणात्मक पुस्तकां आनी 'दिवस असे होते' (१९६१) हें आत्मचरित्र हे कांय खास उल्लेख करपासारके ग्रंथ जावन आसात. ग. त्र्यं. माडखोलकर हो पत्रकार, कादंबरीकार आनी समिक्षक म्हणून नामनेक पावलो. दिवाकरान नाट्यछटा बरयल्यो.

'किरण'(१९२३) हें मंडळाचें, दिवाकराच्या नाट्यछटांसकट उजवाडाक आयिल्लें पयलें गद्य-पद्य पुस्तक. ताचे फाटोफाट मंडळाचे काव्यविशयक विचार निबंधाच्या रुपान उक्ते करून सांगपी 'काव्यविचार' (१९२४), तशेंच 'उषा' (१९२४), 'शलाका' (१९२५) आनी 'प्रभा' (१९२७) हे मंडळाच्या नांवान उजवाडाक आयिल्ले कवितांझेले. मधुमाधव (१९२४) हो माधव ज्युलियन आनी वि. द.घाटे ह्या दोगांयच्याय कवितांचो झेलो आसून ह्या सगळया पुस्तकांचेर 'सप्तर्षी' ह्या तारका चोम्याची कुरू आसा.

रविकिरण मंडळाच्या हेर वांगड्यांच्या मानान माधव ज्युलियन, यशवंत आती गिरीश हेच काव्य बरोवपाचे नदरेन अदीक क्रियाशील कवी जावन गेले. तातुंतूच माधव ज्युलियन हो मंडळांतलो सगळयांत अदीक म्हत्वाचो असो कवी. माधव ज्युलियनामर्दी कवित्व आनी पांडित्य हांचो मनोज्ञमेळ दिसतालो. काव्यनिर्मणेंतले प्रयोगशीलतेच्या संदर्भांत केशवसुत आनी मर्ढेकर ह्या दोन व्हड

कवींमदलो दुवो म्हणून ताचें नांव घेतात. गझल हो काव्यप्रकार मराठींत रुजवणा हाडपाचें श्रेयूय ताकाच वता.

गिरीशानूय स्फूट आनी दीर्घ अशी दोन तरांची काव्यरचना केल्या. 'कांचनगंगा' (१९३०), 'फलभार' (१९३४), 'मानसमेघ' (१९४३), 'कांचनमेघ' (१९५५), आनी 'सोनेरी चांदणे' (१९६१) हे ताचे स्फूट कवितांचे झेले. विधवा, परित्यक्ताय,गरीब विद्यार्थी ह्या विशयांच्या सहानुभूतींतल्यान हातुंतल्यो बऱ्योच कविता निर्माण जाल्यात.सैमाची सोबितकाय आनी संगिताची गोडी हे ताका चड करून आकर्शून घेवपी विशय. ताची स्फूट कविता चड गेय जाल्या. ताच्यो दीर्घ कविता लोकांमदीं चड प्रिय थरल्यात. 'अभागी कमल' (१९२३), 'कला' (१९२६) आनी 'आमराई' (१९२८) हीं ताचीं तीन खंडकाव्यां. संयम हो ताच्यो सगळेच काव्यरचनेची विशेशताय. यशवंत हो रविकिरण मंडळांतलो सगळ्यांत अदीक लोकां आवडीचो कवी. चमत्कृतीपरस भावोत्कटताय, पूण सर्वसामान्य प्रापंचिकांचे भावनेन तो पळयता आनी ते भावनेक योग्य अशी गेय जातियेवजण तो करता. सुनिताचे हेरांपरस चड रचनाप्रयोग ताणें केल्यात. ताचे विसांपरस चड स्फूट कवितांचे झेले आसून तातुंतले 'यशवंती' (१९२१),
'महाराष्ट्र वीणा झंकार' (१९२२), 'यशोधन' (१९२९), 'यशोगंध' (१९३९), 'यशोगिरी' (१९४४), 'वाकळ' (१९५६) आनी 'पाणपोई' (१९५१) हे चड उल्लेख करपासारके आसात. 'जयमंगला' (१९३१), 'बंदीशाळा' (१९३२) हीं ताचीं उल्लेखनीय अशीं दोन खंडकाव्यां. 'जयमंगले'न एक सोबीत मोगाकाणी रंगयल्या आसून 'बंदीशाळे'न ल्हान गुन्यांवकाराचे शाळेंतल्या भुरग्यांचें दुरवेस्त जिणेचें वास्तव चित्र ताणें पिंतारलां.

ह्या तीन कवींनी व्यक्तिशा आनी सगळ्या मंडळान संघटीतपणान मराठी काव्यांत संख्येन आनी गुणवत्तेन मोलादीक भर घाल्या. केशवसुत परंपरेच्या वेवस्थापनाचें आनी विस्ताराचें मुखेल म्हत्वाचें कार्य रविकिरण मंडळान बेस बरे तरेन केलां, असोय ह्या मंडळाचो गौरव करतात.

मांधव ज्युलियन, यशवंत, ग. त्र्यं. माडखोलकार आनी वि.द.घाटे ह्या मंडळाच्या चार वांगड्यांक अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलनाध्यक्ष जावपाचो भोवमान मेळ्ळा. रविकिरण मंडळाच्या कार्यासंबंदान समीक्षकांमदीं आयजूय एकवाक्यताय नासली, तरीय कविता सामान्यामेरेन पावोवपाच्या आनी प्रयोगशीलतायेचे नदरेन मंडळान जें कार्य सातत्यान केलां, ताणें मराठी साहित्यांत आनी विशेश करून मराठी कवितेच्या इतिहासांत आपली अशी खाशेली कुरू करून दवरल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**रविवर्मा, राजा :** (जल्म : इ.स. १८४८ किलीमनूर, त्रावणकोर; मरणः इ. स. १९०६ त्रावणकोर).

संवसारीक नामनेचो चित्रकार. ताका ब्रिटीश सरकारान राजा हो किताब दिल्लो. किलीमनूर हो गांव ताच्या पुर्वजांक त्रावणकोरच्या राजान इनाम दिल्लें. ताच्या घरांत संस्कृत विद्येक खुबूच मान आशिल्लो. ताका लागून रविवर्मान ल्हानपणांतूच संस्कृत विद्या आत्मसात केल्ली.



रामायण - महाभारत ह्या ग्रंथांचोय ताणें अभ्यास केल्लो. ताच्या घराण्यांतल्या चल्यां - चलयांमदीं चित्रां काडपाची सैमीक ओड आशिल्ली. ह्या भुरग्यांनी पुराय वाडो रामायण महाभारतांतल्या प्रसंगांनी चितारून दवरिल्लो. रविवर्मा चवदा वर्सांचो आसतना त्रावणकोरच्या म्हाराजान चित्रकलेंतली कुशळटाय पळयली आनी ताका आपणाकडेन आश्रय दिलो. फुडें इ.स. १८६६ वर्सा त्रावणकोरच्या म्हाराजाचे व्हडले भयणीकडेन ताचें लग्न जालें.

रविवर्मा सुरवेक खडू आनी कोळसो हांच्या आदारान चित्रां काडटालो. उपरांत ताणें उदकारंगान चित्रां काडपाचो अभ्यास केलो.

इ. स. १८६८ वर्सा थिओदोर जॉन्सन नांवाचो अस्तंती चित्रकार त्रावणकोर महाराजाकडेन आयलो. ताणें राजघराण्यांतल्या जायत्या मनशांचीं तैलरंगांत सुंदर चित्रां काडलीं. तेमेरेन रविवर्म्याक तैलरंग चित्रांविशीं मातूय खबर नाशिल्ली. जॉन्सनान ताका हे बाबतींत मार्गदर्शन करपाकय न्हयकार दिल्ले. तेन्ना रविवर्मान जॉन्सनान रंगयल्लीं चित्रां मुखार दवरून तांच्यो नकलो करपाचो यत्न केलो आनी फुडे तातूंत यश मेळयलें. उपरांत ताणें महाराज आनी महाराणी हांच्यो तैलरंगचित्रांतल्यो तसबिरी रंगयल्यो. इ.स.१८७३ वर्सा चेन्नईक भरिल्ल्या चित्रकलेच्या व्हड प्रदर्शनात ताणें एके नायर जातीचे सुंदर बायलेचें चित्र मांडिल्लें. ह्या चित्रान ताची खुबूच नामना जाली आनी ताका भांगरापदक मेळ्ळें. हाचेभायर व्हिएन्ना प्रदर्शनांतूय ताका भांगरापदक मेळ्ळें. हें चित्र आनी दुसरे एके तमीळ बायलेचें चित्र अशीं दोन चित्रां त्राणकोरच्या महाराजान इंग्लंडचो प्रिन्स ऑफ वेल्स हाका भेट म्हणून दिलीं. शकुंतला पत्रलेखन नांवाचें रविवर्मान काडिल्लें चित्र ड्यूक ऑफ बकिंगहॅम हाणें विकतें घेतलें. उपरांत ताणें संस्कृत महाकाव्यांतल्या वेगवेगळ्या प्रसंगाचीं चित्रां काडलीं. त्रावणकोर महाराजाच्या भावाचे विनवणेवयल्यान ताणें सीतेचें दिव्य हें चित्र काडलें. तें राजा सर टी. माधवराव हाणें बडोद्याच्या महाराजाखातीर विकतें घेतलें.

इ.स. १८८१ वर्सा बडोद्याचो महाराजा, सय्याजीराव गायकवाड हाणें रविवर्म्याक बडोद्याक आपोवन व्हेलो आनी ताचेकडल्यान

इ.स. १८८१ वर्सा बडोद्याचो महाराजा, सय्याजीराव गायकवाड हाणें रविवर्म्याक बडोद्याक आपोवन व्हेलो आनी ताचेकडल्यान राजघराण्यांतल्या लोकांचीं चित्रां काडून घेतलीं. हाचेभायर रविवर्म्यान नलदमयंती, राधा-माधव, विश्वामित्र-मेनका, सीतास्वयंवर, कीचक-सैरन्ध्री, शंतनू-मत्स्यगंधा, कृष्णजल्म, द्रौपदी-वस्त्रहरण आदी जायतीं चित्रां काडलीं. भावनगरच्या महाराजानूय ताका त्याच कामारवातीर आपोवन व्हेल्लो.

आपलीं रंगीत चित्रां तशाच रंगांत छापून आयल्यार तीं सामान्य लोकांकूय उपलब्ध जातलीं, ह्या हेतान ताणें १८९४ वर्सा मुंबय रंगीत चित्रां छापपाचो एक छापखानो घालो. उपरांत पुणें जिल्ह्यांतल्या मळवली गांवांत तो छापखानो व्हेलो.

शिकागो आनी लंडनांतल्या प्रदर्शनांत ताणें आपलीं चित्रां धाडिल्लीं. थंय ताका इनामांय मेळ्ळीं. लॉर्ड कर्झन हाणें ताका मेळून ताची तोरवणाय केल्ली. ताणें सुमार चारशें ते पांचशें चित्रां काडलीं अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**रविशंकर, पंडित :** (जल्म : ७ एप्रिल १९२० वाराणसी).

नामनेचो भारतीय सतारवादक. ताचो मूळ गांव जेसोर (बांगलादेश). ताचो बापूय श्याम शंकर हो संस्कृत विद्याविद् आशिल्लो. तो कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत तत्त्वज्ञान शिकयतालो. प्रख्यात नर्तक उदय शंकर हो रविशंकराचो व्हडलो भाव. १९३० च्या सुमाराक तो आपल्या भावाचे नृत्य मंडळींत गेलो. ते वरवीं ताका परदेशांतली भोंवडी आनी नृत्याचें शिक्षण मेळ्ळें. १९३४ वर्सा ताची भेट सेनिया घराण्याचो उस्ताद अल्लाउद्दिनखाँ हाचेकडेन जाली. १९३८ ते १९४४ ह्या काळांत ताणें ताचेकडल्यान तालीम घेतली. १९४१ वर्सा खाँसायबाची धूव अन्नपूर्णा, हिचे वांगडा ताचें लग्न जालें. १९४५-४६ वर्सा तो 'इप्टा' (इंडियन पिपल्स थिएटर असोसिएशन) हे संस्थेंत गेलो. थंय ताणें नृत्यनाटिकांखातीर संगीतरचना केली. फुडें राजकीय मतांच्या दडपणाच्या विरोधांत १९४७ वर्सा 'इंडियन रॅनॅसान्स आर्टिस्ट्स' हे स्वताचे संस्थेची ताणें स्थापना केली. १९४८ त डिस्कवरी ऑफ इंडिया हे सारक्या नृत्यनाट्याची संगीत येवजण ताणें केली. १९४९-५५ मर्दी तो दिल्लीच्या अखिल भारतीय आकाशवाणी वाद्यवृंदाचो संचालक आशिल्लो. १९६६ त प्रसिद्द अमेरिकन वायोलीन वादक येहुदी मेनुईन हाचेवांगडा ताणें बाथ शारांत संगीत महोत्सवांत संयुक्त कार्यावळ सादर केली. बिटल्स ह्या नामनेच्या जनसंगीत (पॉप म्युझिक) समुहाचो अध्वर्यू जॉर्ज हॅरिसन हो ताच्या प्रभावान १९६६ त सतारभक्त जालो. मुंबयंत



ताणें १९६२ वर्सा 'किन्नर' नांवाची संगीत शिक्षणसंस्था स्थापन केली आनी मे १९६७ त तिचो फांटो लॉस एंजेलीसांत घालो. मेनुईन हाच्या पालवान ताणें भारतीय आनी अस्तंती संगीतपद्दतीक एकठांय हाडपाचो यत्न केलो. ताच्या ह्या यत्नाक लागून भारतीय शास्त्रीय संगिताकडेन पळोवपाची अस्तंती लोकांची नदर बदलली आनी भारतीय शास्त्रीय संगिताचो देशाभायर प्रसार जालो.

ताणें संगीतरचनाकार म्हणून केल्ली कामगिरी भरीव आसा. पथेर पांचाली (१९५५), अपराजितो (१९५९), मीरा (१९७८) असल्या चित्रपटांच्या संगितांत पंडीत रविशंकराचे खास शैलीचो ठसो सहजपणान जाणवता. भारतीय ताल वा रागरागिण्यो तशेंच स्वरसंहतितत्त्व हांचे बाबतींत गरज पडटा तेन्ना तडजोड करून आपलें संगीत भारतीय दवरपांत ताणें बऱ्याच प्रमाणांत यश मेळयलां. ताका कितलेशेच राश्ट्रिय आनी आंतरराश्ट्रीय मान - सन्मान फावो जाले. बर्लिनचें सिल्वर बॅर अवॉर्ड, वॅनिस महोत्सवांत इनाम; १९६२त संगीत नाटक अकादमीचें इनाम; 'पद्मभूषण' १९६७ तशेंच १९६२ त आनी १९८० त दोनदां राश्ट्रपती पुरस्कार; १९७५ 'इंटरनॅशनल म्युझिक काउन्सील चो युनेस्को पुरस्कार; १९८७- ८८ मध्य प्रदेश सरकाराचे वतीन 'कालिदास सन्मान' तशेंच १९६८ अमेरिकेंतल्या 'युनिव्हर्सिटी ऑफ कॅलिफोर्निया' आनी १९७३ भारतांतली 'इंदिरा कलासंगीत विश्वविद्यालय' 'रविंद्र भारती' (१९७३), विश्वभारती' (देशिकोत्तम ही पदवी), 'बनारस हिंदू विश्वविद्यालय', हांणी सन्माननीय डॉक्टरेट पदव्यो दिवन ताचो भौमान केलो. १९६८ त माय म्युझिक माय लायफ, राग - अनुराग (बंगाली) हीं ताचीं आत्मचरित्रपर पुस्तकां गाजल्यांत.

भारत सरकारान ताका १९९९ वर्सा 'भारत रत्न' पुरस्कार दिवन ताच्या संगिताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**रवींद्र भारती विद्यापीठ :** अस्तंत बंगाल राज्यांतलें एक विद्यापीठ. कलकत्त्याक ८ मे, १९६२ ह्या दिसा ताची स्थापणूक जाली. अस्तंत बंगाल राज्य शासनान रवींद्रनाथ टागोर हाचे वास्तूंत नाच, नाटक आनी संगीत अकादमीची स्थापना १९५६त केली. फुडें टागोराचे १०१ वे जयंतीच्या म्हुर्तार राज्य शासनान रवींद्र भारती विद्यापीठ स्थापन केलें आनी तातूंत ही अकादमी आस्पावन घेतली. १९७५ वर्सा राज्य शासनान केल्ल्या सुदारीत अधिनेमांप्रमाण विद्यापिठाचो कारभार चलता.

अस्तंत बंगालांतल्या ललीत कलांचें शिक्षण दिवपी सगळयो संस्था विद्यापिठाच्या आंवाठांत येतात. विद्यापिठाकडेन सुमार साठेक संस्था संलग्न आसात. विद्यापिठांत मानव्यविद्या, दृश्यकला, सगळयो ललितकला, (नाटक, वाद्यसंगीत, कंठसंगीत) आदी विद्यांचे फांटे आसात. मानव्यविद्या कक्षांभितर इंग्लीश, बंगाली, संस्कृत, अर्थशास्त्र,

तत्त्वगिन्यान, राज्यशास्त्र, बंगाली लोककला आनी लोकांकाणयो, वेद वाङ्मय तशेंच भारतीय तत्त्वगिन्यान, पुर्विल्ल्यो भारतीय विद्यासंस्थ्या आनी संस्कृत साहित्य हांचें खोलायेन अध्ययन जाता. ह्या सगळ्या विद्या फांट्यांनी रवींद्रनाथ टागोर हाच्या जीवन कार्याच्या अभ्यासाक चड म्हत्व दितात. शिक्षणाचें माध्यम बंगाली आनी इंग्लीश आसा.

विद्यापिठाचें रवींद्र भारती संग्रहालय टागोराच्या वास्तुंतच आसा. विद्यापिठांत मानव्यविद्येंतलें पदवेउपरांतचें शिक्षण आनी टागोर पदविका अभ्यासक्रमाखातीर सांजवेळां वर्ग घेतात. नृत्य, नाट्य आनी चित्रकला हातूंत खास अभ्यासाची सोय विद्यापिठांत आसा. रवींद्रनाथ टागोर हाच्या कला वाङ्मयाचो खोलायेन अभ्यास ह्या विद्यापिठांत जाता. बौध्द धर्म आनी तुळात्मक धर्म हांच्या अभ्यासाची सोय करपाची विद्यापिठाची येवजण आसा.

गिमाचे सुटयेंत भायलीं व्याख्यानां, भासाभासो आनी परिसंवाद विद्यापिठाच्या शिक्षकांकडल्यान घडोवन हाडटात. डिसेंबर, १९६५ त स्थापन जाल्ली अस्तंत बंगाल नाट्य, संगीत आनी ललित कला अकादमी ही विद्यापिठाची एक उपघटक संस्था म्हणून ह्या कलांचो अभ्यास तशेंच संशोधनाचें कार्य करता.

विद्यापीठ अनुदानाच्या आदारान रवींद्रनाथ टागोर हाचे १०१ वे जयंतीच्या निमतान राश्ट्रीय प्रौढ शिक्षणाची सुरवात ६६ केंद्रां स्थापून केल्या. तातूंत समाजीक विज्ञान, नाटक आनी संगिताचो अभ्यासक्रम निरंतर शिक्षण येवजणेखाला राबोवपाचो विद्यापीठ यत्न करीत आसा. संदेशवहन तंत्रांतले चड करून चित्रपट निर्मणी, आकाशवाणी आनी दूरचित्रवाणी वयल्या कार्यावळींची निर्मिती संबंदांतलें प्रशिक्षण दिवपी केंद्र सुरू करपाचीय एक येवजण विद्यापिठाच्या विचारांत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रवींद्र संगीत :** रवींद्रनाथ टागोरान प्रवर्तित केल्लो एक खाशेलो संगीत प्रकार. भारतांत एकुणिसाव्या आनी विसाव्या शेंकड्यांत जी कलात्मक - संस्कृतीक क्रांती जाली तिचें बरेचशें श्रेय गुरूदेव रवींद्रनाथ टागोराक वता. इतलेंच न्हय, तो ते क्रांतीचो एक मुखेल प्रणेतो आशिल्लो, अशें म्हणपाक जाता. ताणें अदमासान तीन हजार पदां बसयलीं आनी तीं स्वरबद्दय केलीं. कवी आनी संगीतकार हांचो सोबीत मेळ ताच्या व्यक्तिमत्वांत दिश्टी पडटा. रवींद्रनाथाचीं हींच पदां फुडाराक 'रवींद्रसंगीत' ह्या नांवान प्रसिद्द जालीं. भुरगेपणांत कांय तेंप ताणें शास्त्रीय संगीताचो अभ्यास केल्लो. ताच्या घराकडेन संगिताच्यो बसकाय जाताल्यो, त्या वेळावयले व्हड संगीततज्ञ यदुभट; विष्णुचक्रवर्ती, राधिका गोस्वामी हांच्या म्होंवाळ गायनान त्यो रंगताल्यो आनी ह्या शास्त्रीय संगीताच्या प्रभावाक लागून रवींद्रनाथाच्यो संगीतरचना खाशेल्यो अशो परिपूर्ण थरल्यो. शास्त्रीय संगीतावांगडाच भुरगेपणांत ताणें बंगालचीं लोकगितांय खूब आयकल्लीं. पद्मा न्हंयेचेर व्हडीं चलोवपी खारवी लोकांचीं बंगाली गितां, गांवागांवानी भोंवडी करपी संन्याशी लोकांचीं बाऊलगितां, तशेंच राधाकृष्णाच्या रूपलीलावर्णनांचीं भजनां, किर्तनां हांचे संस्कार ताचेर जाले. तातूंतले स्वर ताचे रचनेंत भरसल्ले दिसतात.

रवींद्रनाथान जीं बरींच देशभक्ती वयलीं गितां, धर्मगितां, मोगागितां आनी अनुश्ठानीक गितां बरयल्यांत, तातूंत मुखेल करून भावनांचो आविश्कार आनी प्रसंगाप्रमाण वातावरण निर्मणीक फावो अशी शब्दरचना आनी सूर हाचो संमेळ दिश्टी पडटा.

रवींद्र संगीताचें सामान्यपणान तीन गटांमदीं वर्गीकरण करूं येता - १) ताच्या सुरवेच्या गितांमदीं शास्त्रीय संगिताचे आनी लोकागितांचे स्वर जशाक तशे आयिल्ले दिश्टी पडटात. २) दुसरे तरेच्या गितांनी प्रचलीत सुरांवांगडाच ताचे स्वताचे स्वर भरसल्ले दिसतात ३) तिसरे तरेच्या गितांनी गुरूदेवाची स्वयंभू स्वर रचनाय दिश्टी पडटा.

वाक्य जंय सोंपता, थंयसावनूच गिताची सुरवात जाता. जें वाक्य उक्तें करूंक शकना, तें पद प्रगट करूंक शकता आनी म्हणुनूच तें अनिर्वचनीय जावन रावलां. ही रवींद्रनाथ टागोराची काव्य आनी संगीत हांची मदले नातें दाखोवपी भुमिका.

भारतांतले चालंत अशे संगीत शैली परस ,रवींद्रनाथाची शैली वेगळी. गुरूदेवांचीं गितां रागांत बांदिल्लीं आसात, पूण ख्यालाचे बंदिशीभाशेन आलाप - तानो घेवन तीं गावपाची रीत ना. गुरूदेवान म्हळांच, 'हांवें म्हज्या गितांमदीं अशें अंतरूच दवरूंक ना, दुसऱ्या कोणेंय तें भरून काडचें आनी ताका लागून हावें खोशी जावचें'.

ताचीं बरींचशीं गितां भैरवी, खमाज, काफी पिलू, मल्हार, बिहाग, यमन आदी रागांमदीं रचिल्लीं आसात. जायत्या रागांत मिश्रराग आसावरी- भैरवी,दरबारी तोडी - भैरवी, भैरव - भैरवी, मुलतानी - भीम पलासी येतात. तशेंच काय गितांचे स्वर रागाच्या नेमांसावन मेकळे आशिल्ले दिसतात. रागांच्यो शिमो ताणें निसंकोचपणान हुंपिल्ल्यो आसात. ताणें आपल्या गितांनी भावनांप्रमाण शब्दयेवजणेक बरेंच म्हत्व दिलां आनी म्हणूनूच ताच्या रचनांमदीं नव्या प्रकारच्या छंदांचो आविश्कार जाला. छंदाखातीर नव ताल, निर्मून ताणें संगिताचें साहीत्य आनी व्याकरण समृद्ध केलां. देखवीक - झपताल- ५ मात्रा, षष्ठीताल- ६ मात्रा, एकादशीताल - ११ मात्रा, नवपंचताल -१८ मात्रा.

ताची स्वरलिपी पद्दत ही भातखंडे आनी पलुस्कार पद्दतीकडेन मेळपी - जुळपी आसून तातूंत ताची वेगळी आनी स्वतंत्र अशी स्पश्ट प्रतिमा दिश्टी पडटा. खंयच्या गितांमदीं खंयच्या उताराउपरांत, कितलें रावपाचें, कितले खेपे ताची पुनरावृत्ती करपाची, खंय अनुकोमल, अतीकोमल स्वर गावपाचो, हें दाखोवपाखातीर ताणें स्वतंत्र कुरवांचो उपेग केला.

ताचे स्वररचनेंतल्यो सुमार ३००- ४०० रचना प्रसिद्द आसात आनी तातुंतल्या तीनचार गितांक संवसारीक कीर्त लाबल्या. देखीक - (१) 'जन - गण - मन अधिनायक जय हे भारत भाग्य विधाता!, (२) 'जदि तोर डाक शुने केऊ ना आसे तब एकला चलो रे!', (३) 'आमार शोनार बांगला आमि तोमार भाल बासि!' आदी.

रवींद्र संगिताचें संगीतलेखन तपशिलान (खोलायेन) जाल्लें आसून तें तशाक तशें गावपाची रीत जाल्या. हे बाबतींत भारतीय संगिताच्या चडशा रागसंगितापरस तें वेगळें. बंगालाभायर ह्या संगिताचो प्रसार चडसो नासलो, तरी एका संवेदनशील, प्रतिभावान कवी - कलाकारान उतरां आनी स्वर हांचे नातें निश्चीत करपाचो खर यत्न केल्लो आसा, हें ताचें खाशेलेपण. पंकज मलिक, सुचित्रा मित्र, संतोष सेन गुप्ता, द्विजेंद्र मुखर्जी, कनिका बॅनर्जी, हे चड उल्लेख करपासारके रवींद्र संगीत गायक आसात. सद्या रवींद्र संगिताचें शास्त्रीय शिक्षण कलकत्त्याच्या 'रवींद्र भारती', 'विश्वभारती' आनी 'शांतिनिकेतन' ह्या सुवातीचेर दितात. हाचेभायर भारताच्या कांय हेर कडेनूय रवींद्र संगिताच्या शिक्षणाची सुविधा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रवी :** (पळेयात सूर्य).

**रशियन भास :** युरोप खंडाचे उत्तरेक आशिल्ल्यो इंडो - युरोपियनांच्या स्लाविक फांट्याची रशियन ही सगळयांत म्हत्वाची भास. ह्याच फांट्यांत दक्षिणेकडेन मॅसेडोनियन आनी बल्गेरियन, सर्बो - क्रोआत आनी स्लोव्हेन जाल्यार अस्तंतेवटेन चॅक, सोराब, पोलाब आनी पॉलीश हांचो आस्पाव जाता. रशियन भाशेचे व्हडली रशिया, ल्हान रशिया आनी श्वेत रशिया अशे तीन भाग आसात. व्हडली रशिया देशाचे उदेंतेक आनी उत्तरेक पातळळ्या. मॉस्को हो तिचो केंद्रबिंदू. ल्हान रशियन वा युक्रेनियन ही दक्षिणेकडली भास. तिची एक वेगळी साहित्यिक भास आसा. श्वेत रशियन हो लोक बोलींचो एक वेगळो पंगड आसून तांचीय साहित्यिक भास आसा. ह्यो तिनय रशियन भासो एकेच म्हळ्यार स्लाविकाचे एकेच बोलींतल्यान तयार जाल्ल्यो आशिल्ल्यान तांचेमदीं सारकेंपण चड आसा. रशियन भास सोविएत संघराज्याच्या सगळया घटकांनी आनी रशियेच्या प्रभावाखाला आशिल्ल्या वा प्रभावळींतल्या फिनलंड, एस्टोनिया, लाटविया, लिथुएनिया, पोलंड, बेसारेबिया ह्या भोंवतणच्या प्रदेशांनी वापरतात. रशियन भाशिकांची संख्या २५ कोटींच्या लागसार आसून राजकीय नदरेन तिचो इंग्लिशी फाटोफाट क्रमांक लागता.

रशियन भास लिखाणाखातीर सिरिलॅक लिपींतल्या ३३ चिन्नांचो उपेग करता. रशियन उतरां एक dom, दोन strana, वा तीन robota अवयवांचीं आसतात. तीनांपरस चड अवयवांचीं उतरां चड नात. उतरांतल्या खंयच्या तरी अवयवांचेर परंपरागत बलाघात आसता. पूण ताचें स्थान आद्य, मध्य वा अंत्य आसूं येता, पूण तें निश्चित आसता. आघातयुक्त अवयवा म्हऱ्यांतलो o वा a अस्पश्ट वा लागीं लागीं आघातहीन a भाशेन आसता.

हातूंत पुल्लिंग, स्त्रीलिंग, नपुंसकलिंग हीं तीन लिंगां; एकवचन आनी भोववचन अशीं दोन वचनां; आनी कर्तृत्व, स्वामित्व, संप्रदान, कर्म, करण आनी अधिकरण हे संबंद दाखोवपी स विभक्ती आसात. सामान्यपणान निमाणी आशिल्लीं नामां पुल्लिंगी, a, ya निमाणी आशिल्लीं चडशीं स्त्रीलिंगी आनी o, ye, mya निमाणी आशिल्लीं नपुंसकलिंगी आसतात.

प्रत्यय दाखोवपी तकटो

| लिंग | पुल्लिंग | | स्त्रीलिंग | | नपुंसकलिंग | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| वचन | एकवचन | भोववचन | एकवचन | भोववचन | एकवचन | भोववचन |
| विभक्ती | | | | | | |
| कर्तो | - | i | a | i | o | a |
| स्वामित्व | a | ov | i | -- | a | -- |
| संप्रदान | u | am | ye | am | u | am |
| कर्म | a,- | ov,i | u | -,i | o | a |
| करण | om | anu | oy(u) | ami | om | ami |
| अधिकरण | ye | ax | ye | ax | ye | ax |

विशेशण - विशेशण हें ताच्या (विशेशणाच्या) लिंग, वचन, विभक्तीप्रमाण चलता. विशेशणाच्या अंत्य चिन्नाचे सुवातेर yeye हो प्रत्यय लावन तुलनात्मक रूप जाता. मूळ विशेशणापयलीं samiy हें उतर लावन श्रेश्ठत्व दाखोवपी रूप तयार जाता आनी नपुंसकलिंगी विशेशणरूप क्रियाविशेशणाचें कार्य करता.

संख्या - 'एका' बगर हेर संख्यावाचकां नामाप्रमाण चलयतात. कांय संख्यावाचकां अशीं -

| | | | |
|---|---|---|---|
| एक | odin | पयलो | perviy |
| दोन | dva | दुसरो | vtoroy |
| तीन | tri | तिसरो | tretiy |
| चार | t'etire | एक फावट | raz |
| पांच | pyat' | दुसरे फावटी | dva raza |
| स | s' yest' | शंबरावो | sotiy |
| सात | sem' | दर एके खेपेक | vsyakiy raz |
| आठ | vosem' | | |
| णव | devyat' | | |
| धा | desyat' | | |
| शंबर | sto | | |
| हजार | tisyac'a | | |
| धा लाख | million | | |

**मुखेल सर्वनामां :** हांव ya; आमी mi; तूं ti; तुमीं vi; तोz on; ती ona; ते ono; ते, त्यो, ती oni; स्वता sebya. हांचीं स्वामित्वरुपां moc, tvoi अशीं जातात.

दर्शक सर्वनामां - हो, हे etot, तो, ते tot

संबंदी - जो koto, riy

प्रस्नार्थक - कोण kto, किदें c'to

क्रियापद- वर्तमानकाळ प्रथमपुरूष एकवचनाच्या रुपाप्रमाण क्रियापदाचे तीन वर्ग मानल्यात. पयलो निमाणेकडेन yu आसपी, दुसरो u आसपी आनी तिसरो yom आसपी.

हातूंत वर्तमान, भूत आनी भविश्य हे तीन काळ आनी पूर्ण; अपूर्ण (चालू) ह्यो दोन अवस्था आसात.

'उलोवप' हें क्रियापद तीन काळांनी दाखयलां.

**वर्तमानकाळ**

हांव उलयता - ya govorya

तूं उलयता - ti govoris'

तो उलयता - on govorit

**भूतकाळ**

हांव उलयलों - लें ya govorit, - la

तूं उलयलो - लें - ti govorit, - la

तो उलयलो - on govorit

ती उलयली - ona govorita

**भविश्यकाळ :** रशियन भाशेंत bit 'आसप' ह्या क्रियापदाचो भविश्यकाळ तुमंत रुपापयलीं लावन हेर क्रियापदांचो भविश्यकाळ सिध्द जाता. 'bit' चो भविश्यकाळ असो -

ya budu - हावं आसतलों

ti budyes - तूं आसतलो

on , ona budyet - तो, ती आसतली

ते खातीर govorit उलोवप हाचीं भविश्यकाळाचीं रुपां अशीं जातलीं-

ya budu govorit - हांव उलयन

ti budyesgovorit - तूं उलयशी

on budyet govorit - तो उलयतलो

आज्ञार्थाचीं रुपां एकवचनी i, i आनी भोववचनी व itye, 'tye हे प्रत्यय लावन जातात; govori govoritye 'उलयात'. हाचेभायर संकेतार्थ आनी विध्यर्य अशीं दोन वेगळीं रुपां आसात

देखीखातीर कांय उतरां दिल्यांत -

| | | | |
|---|---|---|---|
| आवय | mat' | गाय | korova |
| बापूय | otyec | सुणो | sobaka |
| चलो | sin | माजर | kos'ka |
| चली | doc' | च्या | cay |
| भाव | brat | दूद | motoko |
| भयण | syestra | सत्री | zontik |
| इश्ट | drug | तकली | golova |

हांव पत्र बरयतां - ya pis 'u pis' mo

हांव पत्र बरयना - ya ne pis' u pis' ma

पुस्तक म्हज्या टेबलाचेर आसा - kniga dyez' it u myenya stole.

- कों. वि. सं. मं.

## रशियन साहित्य

**रशियन साहित्य :** रशियन साहित्याच्या इतिहासाचे चार काळ करूं येतात. - १) प्राचीन साहित्याचो काळ (११ वो ते १७ वो शेंकडो २) अठराव्या शेंकड्यांतलें साहित्य ३) एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन रशियन क्रांतीमेरेनचें साहित्य ४) क्रांती उपरांतचें वा सोविएत साहित्य.

**प्राचीन साहित्य** (११ वो ते १७ वो शेंकडो) : रशियन साहित्याचे सगळयांत पोरने नमुने इकराव्या शेंकड्यांतले आसात आनी ते 'चर्च स्लाव्हेनिक' ह्या नांवान वळखतले भाशेंत आसात. संत सिरिल (८२७ - ६९) आनी संत मिथोडिअस (८२६ - ८५) ह्या स्लाव जगतांतल्या संतांनी 'चर्च स्लाव्होनिकांक व्हड प्रतिश्ठा मेळोवन दिली. पूण सतराव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत रशियन भाशेचो खऱ्या अर्थान वाङ्मयीन भास म्हणून उपेग जावपाक लागलो. सगळयांत पोरनें रशियन साहित्य हें, रशियेंतल्या समृध्द सांस्कृतिक केंद्र आशिल्ल्या कीव्ह ह्या शाराच्या संस्कृतीक वातावरणांत निर्माण जालें. हें साहित्य धर्मीक आनी बोधवादी स्वरुपाचें आसा. ह्या साहित्याचेर बायझंटायन ग्रीक साहित्याचो लक्षणीय प्रभाव दिश्टी पडटा. सुरवेच्या लौकिक साहित्यांत चड करून इतिवृत्तांचो आस्पाव जाता. रशियेचो पुर्विल्लो इतिहास एकठावपाचे नदरेन हीं इतिवृत्तां खूब म्हत्वाचीं आसात. 'पोव्हेस्त ओ व्हरेमेन्निख ल्येत' (इकराव्ये शेंकडो, इं. शी. द टेल ऑफ बायगॉन यियर्स') हें ह्या काळांतलें सगळयांत लोकप्रिय अशें इतिवृत्त आसा. कीव्ह हांगाच्या क्रिस्तांव मठांतल्या न्येस्तर ह्या संन्याशान तें बरयलां. फाटल्या कांय इतिवृत्तांचो फुडलो भाग बरोवन इतिवृत्तलिखाणाचे परंपरेचें सातत्य तिगोवपाच्या हेतान न्येस्तरान हें इतिवृत्त रचलां. १११२ मेरेनच्यो घडणुको ह्या इतिवृत्तांत आयल्यात. 'ओ व्हरलामे इ इयोसफे' ही इकराव्या शेंकड्यांतली उल्लेख करपासारकी कथा. ही कथा म्हळयार गौतम बुध्दाचे जिणेवयली एके भारतीय कथेक दिल्लें क्रिस्तांव रूप. रशियन लोककाव्यांत 'बिलीनी' ह्या काव्यप्रकाराचो आस्पाव जाता. हांकां रशियन म्हाकाव्यां म्हणूं येता. हीं म्हाकाव्यां धाव्या शेंकड्यासावन रचपाक लागिल्लीं. लोकविद्येचे (folklore) आयचे अभ्यासक ह्या म्हाकाव्यांची विभागणी, कीव्हांचीं म्हाकाव्यां आनी नॉव्हगोरॉडचीं म्हाकाव्यां अशा दोन प्रकारांनी करतात.

बाराव्या शेंकड्याचे सुरवेक, कीव्ह आनी नॉव्हगोरॉड हांचे जोडयेक च्येर्निगोव्ह, व्ह्लद्यीम्यिर, रॉस्टॉव्ह आनी स्मोलेन्स्क हेसारकीं वाङ्मयनिर्मितीचीं हेरुय केंद्रां उबीं रावलीं. ह्या शेंकड्यांत निर्माण जाल्ली सगळयांत श्रेश्ठ साहित्यकृती म्हळयार स्लोवो ओ पल्कू ईगरवे हें काव्य.

मॉस्को हें रशियन राश्ट्रवादाचें केंद्रस्थान म्हणून १४ व्या शेंकड्यासावन फुडें येवंक लागलें. ताका लागून सादारण १५ व्या शेंकड्यासावन मॉस्कोच्या साहित्याचो प्रभाव वाडूंक लागलो. पंदराव्या शेंकड्यांत भारतीय पंचतंत्रांतल्यो कथा चडशो युगोस्लावियांतल्यान रशियेंत आयल्यो. 'स्काजानिये ओ मामायेव्हम पबइश्चे' (इं. शी. द टेल अबाउट द बॅटल ऑफ मामाई) ही पंदराव्या शेंकड्यांतली सगळयांत लोकप्रिय अशी साहित्यकृती. ऱ्यझानच्या साफोनीन बरयल्ली 'जादोनश्चीना' (पंदराव्या शेंकड्याची सुरवात) ही अशीच एक झूजकथा. अफानासी निकितीन हाचें 'खझेनिये जा त्री मर्या' (इं. शी. व्हॉयेज अक्रॉस थ्री सीस) हें भोंवडेवर्णन उल्लेख करपासारकें आसा. रशियन साहित्यांत भोंवडेवर्णन हो प्रकार हाडपाचें श्रेय निकितीनाक वता. भारतीय जिणेचीं जितीं जिवीं आनी वेधक चित्रां ताणें ह्या भोंवडेवर्णनांत चितरायल्यांत. ह्याच काळांतली आनीक एक म्हत्वाची साहित्यकृती 'पोवेस्त ओ पित्रे इ फेंव्हरोनी मुरोम्स्किख' (इं. शी. टेल अबाउट प्योत्र अँड फेव्हरोनी मुरोमस्कीज). पंदराव्या शेंकड्याचे निमाणें (१४८०) सुमार २५० वर्सांच्या लांब काळाउपरांत, रशिया तार्तरांच्या वर्चस्वांतल्यान मुक्त जालो. इव्हान तिसरो हाणें रशियेंचें एकिकरण घडोवन हाडलें. इव्हान द टॅरिबल म्हळयार इव्हान चवथो आनी ताचो सेनापती अंद्रेई कुर्बस्की हांचेमदलो वादविवादात्मक पत्रवेव्हार इतिहासीक नदरेन म्हत्वाचो आसा. 'द कॉरस्पॉंडन्स बिटवीन प्रिन्स ए. एम. कुर्बस्की अँड झार इव्हान फोर्थ,' हो त्या पत्रवेव्हाराचो इंग्लीश अणकार (१९५५).

'दमस्त्रोई' (इं.शी. ऑर्गनायझेशन ऑफ अफेअर्स ऑफ होम) हो सोळाव्या शेंकड्यांतलो उल्लेख करपासारको ग्रंथ. सतराव्या शेंकड्यांत, रशियेंत कृशकांचीं कांय बंडां जालीं. तांचो लक्षणीय परिणाम ह्या शेंकड्यांतल्या रशियन साहित्याचेर जाल्लो दिश्टी पडटा. ह्या बंडांचीं आनी तातूंत स्विडन आनी पोलंडासारक्या परक्या सत्तांनी केल्ल्या हस्तक्षेपाचीं वर्णनां खूबशा ग्रंथांतल्यान मेळटात. कृशकांच्या बंडांक लागून निर्माण जाल्ले हे अस्वस्थतेच्या काळांत, त्या काळांतल्या रशियाचे संस्कृतीक जिणेंत ज्या समाजीक पंगडांचो आस्पाव आशिल्लो ते आतां वाङ्मयनिर्मिती करूंक लागले. लौकिक विशय, वास्तववादी नदर आनी लोकसाहित्याचे कांय लक्षणीय सूर ह्या साहित्यांत दिसतात. तुर्कांपसून अॅझॉव्ह ह्या शाराचो सांबाळ कसो केलो, हाचो कॉसॅकांनी झार हाका दिल्लो एक अहवाल ते नदरेन लक्षणीय आसा. तो स्टोरी ऑफ द डिफॅन्स ऑफ अॅझॉव्ह ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. 'स्काजानिए ओ कूरे इ ओं लिसित्से (इं. शी. टेल अबाउट ए हॅन अँड ए फॉक्स) आनी 'पोवेस्त ओ एरशे एरशोविचे (इं. शी. टेल ऑफ एर्श एरशोविच) हें रशियन भाशेंतलें सुरवातीचें उपरोधप्रचुर लिखाण ह्याच शेंकड्यांतलें आसा. ह्या शेंकड्याचे निमाणें चरित्र आनी समाजीक विशयांचेर कथा बरोवप जाल्यो. इस्तोरिया ओ सेभि मुद्रेत्साख हो एक लोकप्रिय लोककथासंग्रह. पोवेस्त ओ गोर्ये ज्लोशास्ती, स्काजानिए ओ पपे साव्हे, स्काजानिए ओ क्रेस्त्यान्स्कम सूपे, पोवेस्त ओ कार्पे सुतूलव्हे ह्यो कांय उल्लेख करपासारक्यो कथा आसात. ह्या शेंकड्यांतलें चरित्रात्मक - आत्मचरित्रात्मक लिखाणूय लक्षणीय आसा. सुरवेक संत जूल्यानीया लाझारेवस्काया हिचें चरित्र तिचो पूत कालीस्त्रातस ओसोरीन हाणें बरयलें. आर्चप्रीस्ट अव्हॅकम हाणें बरयल्ली आपजिणूय म्हत्वाची. तिचो इंग्लीश अणकार 'द लायफ ऑफ द आर्चप्रीस्ट अव्हॅकम बाय हिमसॅल्फ' प्रसिद्द जाला (१९२४). एक वाङ्मयीन आविश्कार, हे जाणविकायेन कविता बरोवप जाली ती सतराव्या शेंकड्यांत. हातूंत सिमेऑन ऑफ पोलोत्सक हाचें नांव म्हत्वाचें. ताणें पॉलीश कवितेच्या अनुकरणान रशियन कवितेंत अक्षरवृत्ताचो वापर पयलीं सुरू केलो. रशियन नाटक आनी रशियन रंगमाची हांच्या विकासाचे नदरेन ह्या शेंकड्यांत कांय लक्षणीय घडणुको घडून आयल्यो. सोळाव्या शेंकड्याचे अखेरेक धर्मीक नाटकां अस्तंती रशियेंतल्या शाळांतल्यान जातालीं. पूण सतराव्या शेंकड्याच्या मध्याक तांच्या प्रयोगांची परंपरा बळिश्ट जाली. हीं नाटकां लॅटीन वा पॉलीश आसतालीं वा त्या भासांनी अणकारिल्लीं आसतालीं. १६७२ वर्सा झार अलेक्सिस हाणें डॉ. योहान गोटफ्रीट ग्रेगरी नांवाच्या जर्मन पास्टराक (धर्मीक पद) एक हौशी नाटकमंडळी काडपाक लायली आनी तांचेकडेन आशिल्ल्या संहितांचो स्लाव्होनिक गद्यांत अणकार केलो. तेच भाशेन राजप्रासादांतूच रंगमाची उबारली. ग्रॅगरी फाटल्यान सिमेऑन ऑफ पोलोत्सक हाणें नाटकां बरोवपाक सुरवात केली. द कॉमेडी ऑफ द पॅरबल ऑफ द प्रॉडिगल सन (१६८५) हें ताचें उल्लेखनीय नाटक.

अठराव्या शेंकड्यासावन आधुनिक रशियन साहित्याचो इतिहास सुरू जाता. **अठरावो शेंकडो :** ह्या शेंकड्यांतल्या साहित्याचे पांच काळखंड करूं येतात. (१) १६९० - १७३० (२) १७३० - ५० (३) १७५० - ७५ (४) १७७५ - ९० आनी (५) १७९० उपरांतचो पयल्या (१६९० - १७३०) ह्या कालखंडाचेर पिटर द ग्रेट हाचे कारकिर्दीची छाप आसा. १६९५ वर्सा रशियेची सत्ता पीटर द ग्रेट हाच्या हातांत आयली. ताणें विद्या - कलांक उर्बा दिली क्रांतीकारक स्वरुपाच्या शिक्षणीक - संस्कृतीक सुदारणा घडोवन हाडल्यो, रशियन भाशेची वर्णमाळ सोंपी केली, अरबी अंकांचो स्विकार करून शिक्षण पद्दत अधीक सोपी करपाचो यत्न केलो. रशियेतलें आनी रशियन भाशेतलें पयलें नेमाळें पिटराचे कारकिर्दींत सुरू जालें. ताचो एक

निकटवर्ती नॉव्हगोरॉडचो आर्चबिशप फिओफान प्रोकोपोव्हिच हो ह्या काळखंडांतलो उल्लेख करपासारको साहित्यिक. ताणें कांय शोकसुखात्मिका, भावकविता बरयल्यात आनी पुस्तपत्रलिखाणूय केलां. व्लधीम्यिर (१७०५) ही ताणें बरयल्ली शोक - सुखात्मिका आनी उस्ताव्ह दुखोव्हनिआ कोल्लेगीय (इं. शी. रूल्स ऑफ द स्पिरिच्युअल ॲकॅडमी) हें ताणें बरयल्लें उपरोधप्रचुर पुस्तपत्र उल्लेख करपासारकें आसा.

ह्या कालखंडाचें खाशेलपण म्हळयार लौकिक स्वरुपाची साहित्यनिर्मिती. हे विशीं इव्हान पोसोश्कॉव्ह आनी व्हासिली निकीतिच तातीश्चेव्ह हीं नांवां चड उल्लेखनीय आसात. कर्तव्य आनी विकारवशता, भावना आनी बुदद, व्यक्ती आनी समाज हांचेमदलो संघर्श हे ह्या कालखंडांतल्या नाटकांचे मुखेल विशय आसात. हे उपरांतचो १७३० ते १७५० हो वीस वर्सांचो काळ रशियन साहित्यांतल्या नव अभिजाततायवादाच्या प्रभावाचो. ह्या काळांतल्या चड उल्लेख करपासारक्या लेखकांभितर अंतिओख दमित्रियेव्हिच कांतेमीर, व्हासिली किरिल्लोव्हिच त्रेदियाकोव्हस्की, मिखायल लमनॉसॉव्ह, आलेक्सांद्र पित्रोव्हिच सुमारोकॉव्ह आनी मिखायल मात्व्हेयेव्हिच खेरास्कॉव्ह हांचो आस्पाव जाता. १७५० ते १७७५ हो तिसरो कालखंड. अठराव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धाचें वर्णन ज्ञानोदयाचो (एनलायटनमँट) काळखंड अशें करतात. १७५० वर्सा सावन हो काळखंड सुरू जाता. ह्या काळखंडांतले दोन म्हत्वाचे साहित्यिक म्हळयार न्यिकलाय इवानोविच नोव्हिकॉव्ह आनी दिनीस इवानोविच फनवीजीन. नोव्हिकॉव्ह हो पत्रकार आनी भूदास पद्धतीचो खर विरोधक. ताणें आपल्या 'द ड्रोन', 'द विंडबॅग', 'द पेंटर' (इं. शी). ह्या नेमाळ्यांतल्यान सामाजिक अन्यायाआड उपरोधप्रचुर टिका केली. फनवीजिन ह्या नाटककारान आपल्या सुखात्मिकांतल्यान रशियन उमरावांचेर उपरोधपूर्ण टिका केली. परके भाशेंतल्या कथात्मक साहित्याचो अणकार तशेंच स्वतंत्र कथा - कादंबऱ्यांचें लिखाण ह्या काळांत दिसता. इंग्लिशींतले डॅफो, फिल्डिंग, स्विफ्ट हांचें लिखाण रशियन भाशेंत अणकारलां. विख्यात इंग्लीश कादंबरीकार सॅम्युएल रिचर्ड्सन हाचे 'पामेला' हे कादंबरीच्या प्रभावांतल्यान पाव्हेल लव्हॉव्ह हाणें 'द रशियन पामेला ऑर द स्टोरी ऑफ मारिआ, द व्हर्च्यूअस कंट्री गर्ल (१७८९, इं. शी.) ही कादंबरी बरयली. सामान्य मनशाचे मानसिकतायेचें विश्लेशण करपाचो रशियन साहित्यांतलो सुरवातीचो निर्देशनीय यत्न म्हणून फ्योडर आल्यिक्सांद्रव्हिच एमीन हाच्या लॅटर्स ऑफ अर्नेस्ट अँड डॉराव्हरा (१७६६, इं.शी.) हे कादंबरीचो उल्लेख करूं येता. भावविवशतायेकडेन झुकपी कादंबरी लिखाण ह्या कालखंडांतल्या कांय लेखकांनी केलां. फ्योडर आल्यिक्सांद्रव्हिच एमीन हाचो पूत न्यिकलाय एमीन हो तातुंतलोच एक लेखक. रशियेची सम्राज्ञी कॅथरिन द ग्रेट ही स्वता लेखिका आशिल्ली. 'ऑल सॉर्ट्स अँड संड्रीज' (इं.शी.) नांवाचें एक उपरोधप्रचुर नेमाळें तिणें सुरू केल्लें. पूण नोव्हिकॉव्ह सारक्यांनी काडिल्ल्या उपरोधप्रचुर नेमाळ्यांतल्यान समकालीन समाजीक परिस्थितीक लागून स्वताचे राजवटीचेर जावपी टिका तिका मानवलिना. १७७३ वर्सा तिणें बंदी घालून अशा नेमाळ्यांचो आवाज चिड्डिलो. कांय कथा, सुखात्मिका अशें लिखाणूय तिणें केलां.

फ्रेंचांतलीं विनोदी संगितिकांचीं (ऑपेरा) रुपांतरां ह्या कालखंडांत जालीं. तशेंच कांय विनोदी संगितिका स्वतंत्रपणान बरयल्यो. न्यिकलाय पित्रोव्हिच निकोलेव्ह, याकोव्ह वोरिसोव्हिच क्न्याझनीन, इव्हान क्रिलॉव्ह, अल्यिक्सांडर अब्लेसिमॉव्ह हे ह्या कालखंडांतले उल्लेखनीय नाटककार. इव्हान इव्हानोव्हिच खेमनिस्टर होय एक बोधकथाकार.

१७७५ ते १७९० हो अठराव्या शेंकड्यांतलो रशियन साहित्याचो चवथो काळखंड. गाव्हरीना रमानोव्हिच दि रझाविन हो अठराव्या शेंकड्यांतलो सर्वश्रेश्ठ रशियन कवी. उद्देशिका हो ताचो आवडटो कविता प्रकार. 'फिलित्सा' ही रशियेची सम्राज्ञी कॅथरिन दुसरी हिचेर बरयल्ली ताची उद्देशिका प्रसिद्द आसा. विख्यात रशियन साहित्यिक गोगोल हाणें दिरझाविन हाका 'म्हानतेचो कवी' अशें म्हळां. इपॉलित बोगदानोव्हिच हो ह्या काळखंडांतलो आनीक एक उल्लेख करपासारको कवी. 'दुशेंका' ह्या ताच्या कथाकाव्याक खूब नामना मेळ्ळी.

१७९० उपरांतच्या काळखंडांत पुत्येशेस्तव्हीये इज पीतरबुर्गा व्ह भस्कव्हू (१७९०, इं. शी. जर्नी फ्रॉम पीटर्झबर्ग टू मॉस्को) हो स्फोटक ग्रंथ बरोवपी आलेक्सांद्र निकलायेव्हिच रादीश्चेव्ह हाचें नांव पयलीं घेवचें पडटा. व्हासिली व्हस्यील्येव्हियच काप्निस्त हाणें फनवीजिन हाचे भाशेन नाटकाच्या माध्यमांतल्यान अन्यायाचेर उपरोधप्रचुर टिका केली. ह्याच संदर्भांतलें क्रिलॉव्हचें 'पोस्ट ऑफ स्पिरिट्स' (१७८९, इं. शी.) हें नाटकूय उल्लेख करपासारकें. ह्या काळखंडांत भावोत्कटतावाद (सेंटिमेंटॅलिझम) ही मुखेल वाङ्मयीन चळवळ थरली. तिचें फुडारपण न्यिकलाय म्यिकाय्लव्हिच करमझ्यीन हाणें केलें. भाववेगाक ताणें म्हत्व दिलें. रशियन साहित्याखातीर नवी साहित्यभास घडोवप हो करमझ्यीनचो आनीक एक उद्देश आशिल्लो. ताणें कविताय बरयल्ल्यो.

**एकुणिसावो शेंकडो :** हो शेंकडो म्हळयार रशियन साहित्यांतलें भांगरायुग. ह्या काळांत साहित्यावांगडा चित्रकला, संगीत, रंगमाची अशीं विंगड विंगड कलाक्षेत्रांय समृध्द जालीं. वाङ्मयीन विकास खूब नेटान जालो. ह्या शेंकड्याचे सुरवातीक, अठराव्या शेंकड्यांतले वेगवेगळे वाङ्मयीन प्रवाह आनी प्रवृत्ती क्षीण जायत गेल्यो. नव्या - पोरन्याचो संघर्श जावंक लागलो. करमझ्यीनचे वाङ्मयीन भुमिकेआड बिस्येदा, नांवाचो एक पंगड उबो रावलो. पूण हो पंगड पोरने अभिजाततायवादी शैलीचो पुरस्कर्तो आशिल्लो.

अल्यिकसांडर सिमेनोव्हिच शिश्कोव्ह हो ह्या पंगडाचो फुडारी. इव्हान आंद्र्येयेव्हिच क्रिलॉव्ह हो बिस्येदा ह्या पंगडाचो फुडारी. पूण ताच्या लिखाणांतल्यो वास्तववादी प्रवृत्ती लक्षणीय आसात. अभिजाततायवादी बिस्येदा पंगडाक शह दिवपाखातीर आरजामासची स्थापणूक जाल्ली. ह्या पंगडाचो संस्थापक आशिल्लो करमझ्यीनचो अनुयायी आनी विख्यात रशियन कवी व्हस्यील्यई आंद्र्येयेव्ह्यिच झुकॉव्हस्की. हो रशियन साहित्यांतल्या स्वच्छंदतावादाच्या प्रणेत्यांतलो एक. करमझ्यीनच्या वाङ्मयीन दृश्टिकोनाचेर आदारीत अशी कवितेची नवी भास झुकॉव्हस्कीन घडयली. नादमाधुर्य हें ताचें कवितेचें आनीक एक खाशेलपण. ताणें केल्ले जर्मन आनी इंग्लीश साहित्यकृतींचे अणकारुय निर्देशनीय आसात. संस्कृतांतली नल - दमयंतीची भारतीय कथाय ताणें रशियन भाशेंत हाडली. ग्रीसी म्हाकवी होमर हाच्या 'ओडिसी' चोय ताणें रशियन  अणकार केला. ताणें केल्ल्या अणकारांक लागून जर्मन - इंग्लीश साहित्यांतल्या स्वच्छंदतायवादी प्रवाहांची वळख रशियींक जाली. ह्या संदर्भांतलें आनीक एक म्हत्वाचें नांव म्हळयार कन्स्तांतीन निकलायेव्ह्यिच बात्युश्कव्ह हाचें.

१८१२ वर्सा रशियेचें नेपोलियनावांगडा जें झूज जालें, ताचो लक्षणीय परिणाम रशियन समाज आनी संस्कृताय हांचेर आनी साहित्याचेर जालो. एक नवेंच वातावरण ह्या झुजान रशियेंत निर्माण केलें. स्वातंत्र्याची, मुक्ततायेची ओड साहित्यांतल्यान चड प्रमाणांत व्यक्त जावंक लागली. ह्या नव्या वातावरणाक तरणाटे पिळगेचो रोखडो प्रतिसाद मेळ्ळो. तातुंतल्यान खूबशो गुप्त संघटना निर्माण जाल्यो. रशियेंत घटनात्मक राजेशाहीची मागणी करपाखातीर १८२५ वर्साच्या डिसेंबर म्हयन्यांत कांय तरणाटे लश्करी अधिकारी एकठांय आयले. तांकां 'डिसेंबरवाले' (डिसेंबरिस्ट्स) म्हण्टाले. पूण ह्या डिसेंबरवाल्यांक चिड्डावन उडयले. कांय जाणांक मर्णख्यास्त दिली जाल्यार हेर कांय जाणांक सायबेरियेंत शिमेभायरे केले. ह्या लोकांभितर कांय साहित्यिकांचोय आस्पाव आशिल्लो. देखीक - व्हिलेल्म क्यूखेलबेकर (कवी), अल्यिक्सांडर बेस्तूझेव्ह (कवी आनी कादंबरीकार), अल्यिक्सांडर अदायेव्हस्की (कवी). जनतेन जुलमाआड झगडूंक जाय, अशी ह्या साहित्यिकांची भुमिका आशिल्ली. हातुंतल्या कनड्राट्यई फ्योडॉरॉव्ह्यिच रिल्येयेव्ह हो साहित्यिक चड निर्देशनीय. हो डिसेंबर बंडाचो मुखेल फुडारी. व्हइनारोव्हस्की, नालिव्हाइको, हीं ताचीं उल्लेख करपासारकीं कथाकाव्यां आनी मेडिटेशन्स ही ताची आनीक एक म्हत्वाची कविता. झारशायेंतल्या जुलमांविशींची ताका दिसपी तिडक तातूंत प्रभावीपणान उकती जाता. पूण आलेक्सांद्र सिर्गेयेविच पुश्किन हो एकुणिसाव्या शेंकड्यांतलो सगळयांत श्रेश्ठ रशियन कवी. ताणें गद्यलिखाणूय केलां आनी रशियन गद्याक आधुनिक मोडण लायलें. बरीस गदुनोव ही ताची पद्यनाट्यकृती. हे शोकात्मिकेंत झारशायेंतलो सत्ताधारी वर्ग आनी इतिहासनिश्ठ नदर, उत्कट राश्ट्रभक्ती आनी सामाजिक विशमतेक खर विरोध ह्यो पुश्किनच्या वास्तववादा फाटल्यो मुखेल प्रेरणा आशिल्ल्यो. आपल्या साहित्यांत ताणें लोकभाशेचो वापर केलो. ताच्या मरणाउपरांत, ताचेर बरयल्ल्या उत्कट शोककाव्याक लागून मिखायल ल्यर्मटॉव्ह हाका खूब नामना मेळ्ळी. डेमन, मत्सीरी ह्यो ताच्यो म्हत्वाच्यो काव्यकृती. ताणें कांय नाटकांय बरयलीं. मस्करादृ ह्या ताच्या नाटकाक खूब नामना मेळ्ळी. गिरोय नाशेव्हो व्हेमिनी (१८४०, इं. अणकार ए हीरो ऑफ नाउ - अ - डेज, १९२०; ए हिरो ऑफ अवर टायम, १९२८ आनी ए हीरो ऑफ अवर ओन टायम्स, १९४०) ही ताची उल्लेख करपासारकी कादंबरी. हेर उल्लेख करपासारक्या कवींभितर फ्योडर इव्हानव्ह्यिच ट्यूट्चेव्ह आनी न्यिकलाय न्येक्रासॉव्ह हांचो आस्पाव जाता. यिव्हगेन्यी बॅराटिन्स्की, प्रिन्स प्योटर आंद्र्येयेव्ह्यिच व्ह्याझेम्स्की आनी न्यिकलाय म्यिखाइलोव्ह्यिच याझिकॉव्ह, निकोलस अगारयोव्ह, अफानासी फ्येत, अपोलॉन निकलायेव्हिच माईकव्ह हे हेर कवी. रशियींतल्या वास्तववादी नाटकांचो प्रवर्तक मानतात तो अल्यिक्सांडर ग्यिबयेडॉव्ह हो एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या पुर्वाधांतलो नामनेचो नाटककार. गोर्ये ऑत उमा (इं.शी. वो फ्रॉम विट) ही ताची नामनेची नाट्यकृती आनी द मिस्फॉर्च्यून ऑफ बिइंग क्लॅव्हर, १९१४; द मिस्चीफ ऑफ बिइंग क्लॅव्हर १९२५ हे ह्या नाटकांचे कांय इंग्लीश अणकार).

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत चड नामनेक पाविल्लो पयलो रशियन कादंबरीकार मिखायल निकोलायेव्हिच झागेस्किन. 'युरी मिलोस्लाव्हस्की ऑर द रशियन्स इन १६१२ ही ताची उल्लेख करपासारकी कादंबरी. अल्यिक्सांडर बेस्तझेव्ह होय एक लोकप्रिय कादंबरीकार. पूण आपल्या कथात्मक आनी हेर लिखाणान आपल्या तशेंच फुडल्या पिळग्यांचेर खोलायेन छाप घालपी साहित्यिक म्हळयार निकोलाय गोगोल. कथा, कादंबऱ्यो, नाटकां अशें विंगड विंगड प्रकारांचें गद्यलिखाण ताणें केलें. 'शिन्येल' ही ताची संवसारीक नामनेची कथा. मोर्ताव्ह्यिये दुशि (भाग १,१८४२, इं. अणकार, द डेड सोल्स) हे ताचे कादंबरींत न्यायनितीची जाणविकाय आनी करुणा हांचो पुराय अभाव आशिल्ले जमीनदार आनी गुलामांचे धनी हांचें उपरोधप्रचुर चित्र उबारलां. रशियन कादंबरीचो विकास आनी रशियन साहित्यांतलो वास्तववाद हांचें आकलन जावपाचे नदरेन हे कादंबरीक खूब म्हत्व दिलां. रिविजोर (१८३५ इं. अणकार द गव्हर्नमेंट इन्स्पेक्टर) हें ताचें नाटकूय खूब गाजलें. गोगोलच्या ह्या नाटकाचें मराठी रुपांतर पु. ल. देशपांडे हाणें 'अंमलदार' ह्या नांवान केलां (१९५२). श्रेश्ठ रशियन साहित्यसमिक्षक व्हिससर्यिऑन ब्यिल्यीन्स्कई हो गोगोलचो समकालीन, ताच्या समिक्षात्मक लिखाणाचो प्रभाव रशियेंतल्या हेर सर्जनशील साहित्यिकांचेर पडलो. ह्या शेंकड्यांतलो आनीक एक म्हान रशियन साहित्यिक फ्योडर डॉस्टोव्हस्की हाणें

आपल्या सुरवातीच्या लिखाणांत गोगोलाचीच वास्तववादी परंपरा फुडें चलयली. ताची पयली स्वतंत्र साहित्यकृती बेंद्नियें ल्यूदि (१८४६, इं. शी. पूअर फोक). फुडें ताका सायबेरियेंत कश्टांचे बंदखणी खातीर शिमेभायर धावंडायलो. ही ख्यास्त भोगून परत येतकच ताचे साहित्यिक जिणेचो दुसरो पांवडो सुरू जालो. प्रिस्तुप्लेनिये इ नकझानिये (१८६६, इं. अणकार, क्रायम अँड पनिशमँट), इदिओत (१८६८, इं. अणकार, दी इडिअट), ब्येसी (१८७१-७२, इं. अणकार, द पझेस्ड), ब्रात्या कारामाझवि (१८७९-८०, इं. अणकार, ब्रदर्स करमझोव) सारक्यो नामनेच्यो कादंबऱ्यो ताणें बरयल्यो. तशेंच उत्कृश्ट कथालिखाणूय ताणें केलें.

रशियन साहित्याक श्रेश्ठ कादंबऱ्यांची देण दिवपी इव्हान टुर्ग्येन्येव्ह, झापिस्की अखोत्निका (१८५२, इं. अणकार, स्पोर्ट्समन्स नोटबुक) ह्या ताचे गांवगिरे जिणेचेर बरयल्ल्या शब्दचित्रांक लागून ताका खूब नामना मेळ्ळी. टुर्ग्येन्येव्हच्या कादंबऱ्यांनी रुदिन (१८५६), व्द- यान्स्कये ग्निझदो (१८५९, इं. शी. अनेस्ट ऑफ जंटल फोक), नाकानून्ये (१८६०, इं. शी. ऑन दी ईव्ह), अत्सी इ द्येती (१८६२, इं. शी. फादर्स अँड सन्स), दीम (१८६७, इं. शी. स्मोक) आनी नोफ् (१८७७, इं. शी. व्हर्जिन सॉइल) हांचो आस्पाव जाता. टुर्ग्येन्येव्ह हाणें कांय नाटकां आनी कविताय बरयल्यो.

रशियन साहित्याची कीर्त वाडोवपी आनी एकुणिसाव्या शेंकड्यांतल्या हेर साहित्यिकांक प्रभावीत करपी म्हान साहित्यिक लीओ टॉलस्टॉय हाणें कथा, कादंबऱ्यो, नाटकां अशें विंगड विंगड प्रकारचें लिखाण केलें. व्हय्ना इ मीर् (इं. शी.वॉर अँड पीस) आनी ॲना कारेनिना (कादंबरीचो पयलो भाग) ह्या दोन कादंबऱ्यांनी ताका राश्ट्रियूच न्हय जाल्यार संवसारीक कीर्त मेळोवन दिली. टॉलस्टॉयच्या हेर निर्देशनीय साहित्यकृतींनी वस्क्रेसेनिये (१८९९, इं. शी. रिझरॅक्शन) हे कादंबरीचो तशेंच स्मेर्त इवाना इलिचा (कथा १८८०, इं. शी. द डॅथ ऑफ इव्हान इलिच), क्रेइत्सेरवा सनाता (१८८७-८९, इं. शी. द क्राइट्सर सोनाता) ह्या कथांचो आस्पाव जाता. व्लास्त तमी (१८८६, इं. शी. द पॉवर ऑफ डार्कनेस) आनी झिवोय् त्रूप् (१९००, इं. शी. द लिव्हिंग कॉर्प्स) हीं ताचीं नाटकां उल्लेख करपासारकीं आसात. रशियन साहित्याच्या इतिहासांत टॉलस्टॉयाच्या साहित्यांत एक युग निर्माण केलें. इव्हान अल्यिक्सांद्रव्हिच गनचरॉव्ह हाच्या अबिक्नोव्हेन्नाया इस्तोरिया (१८४७, इं. अणकार, अ कॉमन स्टोरी), अब्लोमव्ह (१८५०) आनी अब्रीव्ह (१८६९, इं. अणकार द प्रेसिपिस) ह्या कादंबऱ्यांतल्यान निरुद्योगी आनी निरुपयोगी अशा रशियन सरंजामदारांचे जीणेचें प्रभावी चित्रण मेळटा. हातूंतली अब्लोमव्ह ही कादंबरी रशियन साहित्यांतली श्रेश्ठ कादंबरी मानतात. अल्यिक्सेय पिसेमस्की होय एक उल्लेख करपासारको कादंबरीकार. 'अ थाउझंड सोल्स' (१८५८, इं. शी.) हे कादंबरीक लागून ताका खूब लोकप्रियता मेळ्ळी.

अल्यिक्सांडर इव्हानव्हिच क्यूप्रिन हाची वाङ्मयीन कारकीर्द एकुणिसाव्या आनी विसाव्या अशा दोनूय शेंकड्यांतली. गरिबांचीं दुख्खां, सैनिकी जिणेंतले अणभव हे ताणें आपल्या कथांतल्यान मांडले. पूण यामा (१९०९ - १५, इं. अणकार, यामा : द पिट १९२७, मराठी अणकार यामा, २ भाग १९३४; १९३६) हे वेश्येचे जिणेचेर आदारिल्ले ताचे कादंबरीक खूब नामना मेळ्ळी.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांतल्या रशियन नाट्यलिखाणाच्या संदर्भांत अल्यिक्सांडर अस्ट्रॉव्हस्की, हाचो उल्लेख, गोगोलाच्या फाटल्यान म्हत्वपूर्ण नाटककार म्हणून करतात. 'द बँक्रप्ट' (१८५०, इं.शी.) आनी स्टॉर्म (१८६०, इं. शी.) हीं ताचीं दोन खास लोकप्रिय नाटकां.

ह्या शेंकड्यांतलो एक श्रेश्ठ उपरोधकार एन्. श्चेड्रियन (मिखायल सलटिकॉव्ह हें ताचें खरें नांव) हो पत्रकार, नाटककार आनी कादंबरीकार. स्म्येर्त पाजूखिना (इं. शी. पाजू खिन्स डॅथ) ही ताणें रशियन वेपाऱ्यांचेर बरयल्ली सुखात्मिका प्रसिद्द आसा. ताणें उपरोधप्रचुर अशो कांय बोधकथाय (फेबल्स) बरयल्ल्यो आसात. गस्पदा गलव्हल्योवि (१८७२-७६ इं. शी. द गल्व्हल्यॉव्ह फॅमिली) हे वास्तववादी समाजीक कादंबरीक लागून ताका चड नामना मेळ्ळी. न्यिकलाय ल्येस्कॉव्ह हाणें कथालिखाणाच्या मळार लक्षणीय कर्तृत्व दाखयलें. लेडी मॅकबॅथ ऑफ द मिसेन्स्क डिस्ट्रिक्ट (१८६५, इं. अणकार) ही ताची सर्वोत्कृश्ट कथा. पूण द टेल ऑफ क्रॉस आइड लेफ्टी फ्रॉम तुला अँड द स्टील फ्ली' (१८८१) हे ताचे कथेक सगळयांत चड लोकप्रियता मेळ्ळी. म्हान रशियन कथाकार आनी नाटककार आंतोन चेकॉव्ह हाचे साहित्यकृतींतल्यान रशियन साहित्यांतले श्रेश्ठ परंपरांचे संपन्न संस्कार दिश्टी पडटात. ताणें युरोपीय नाट्यपरंपरेच्या विकासांत मोलादीक भर घाली. च्याइका (१८९६, इं. शी. द सी गल), द्याद्या व्हान्या (१८९७, इं. शी. अंकल व्हान्या) आनी व्हिश्न्योवि साद (१९०३, इं. शी. द चॅरी ऑर्चर्ड) हीं ताचीं कांय निर्देशनीय नाटकां. द चॅरी ऑर्चर्ड, हाचो मराठी अणकार सुमति कानिटकर हिणें केला (चेरीचा मळा, १९८२).

लिओनिद आंद्रेयेव्ह, व्हसेव्हलॉट गार्शिन आनी व्लदीम्यिर कोरोलेंको हे कथेच्या क्षेत्रांतले आनीक कांय साहित्यिक. रॅड लाफ (१९०५, इं. अणकार) आनी द सॅव्हन दॅट वॅर हॅंग्ड (१९०९, इं. अणकार). ह्यो आंद्रेयेव्हच्यो उत्कृश्ट कथा आनी फोर डॅस (१८७७, इं. शी.) आनी 'द रॅड फ्लावर (१८८३, इं. शी.) ह्यो गार्शिनाच्यो उल्लेखनीय कथा. मकार्स ड्रीम (१८८५, इं. शी.), ॲट नायट (इं. शी.) आनी द डे ऑफ अटोनमेंट ह्यो कोरोलेंकोन बरयल्ल्यो नामनेच्यो कथा. अल्यिक्सांडर हेर्टसेन हो पत्रकार आनी राजकीय विचारवंत. 'माय पास्ट अँड थॉट्स (इं. शी.) ह्यो ताच्यो संस्मरणिका म्हळयार रशियन साहित्यांतली एक उत्कृश्ट गद्यकृती. ह्या

शेंकड्यांतल्या रशियन साहित्य समीक्षेच्या क्षेत्रांत न्यिकलाय गव्हन्यीलव्हिच चेरनिशेव्हस्की, न्यिकलाय ढब्रल्यूबॉव्ह आनी डम्यीट्रई पिसारेव्ह ह्या तीन समिक्षकांनी आपली छाप घाली. सवरेमेन्निक ह्या नेमाळयाचो कांय काळ संपादक आशिल्लो चेरनिशेव्हस्की हाका फकत समिक्षकूच न्हय जाल्यार विचारवंत म्हणूनय नामना मेळ्ळी. कला आनी वास्तववाद हांचेमदलें सौंदर्यशास्त्राचेर ताणें केल्लें लिखाण रशियेंतले जडवादी विचारसरणेच्या विकासांत मोलादीक थरलें. सौंदर्यशास्त्रीय विचाराच्या संदर्भांत ताणें जडवादी नदर आपणायली. जिणेच्या आकलनाचेर सौंदर्य आदारून आसता असो विचार ताणें मांडलो. 'व्हॉट टू डू ?' ही कादंबरी ताणें बरयली. रशियन साहित्यांतल्या गोगोलाच्या काळखंडाचेर ताणें केल्लें लिखाणूय म्हत्वाचें. ढब्रल्यूबॉव्ह हाणें सवरेमेन्निकच्या संपादक मंडळांत मुखेल समीक्षक म्हणून काम केल्लें. भूदासपद्‌दत, जुलुमशाय आनी निरंकुश सत्ता हेविशीं ताका तिडक आशिल्ली. ताच्या समिक्षात्मक लेखांनी गनचरॉव्हकृत अब्‌लोमव्ह (कादंबरी), अस्ट्रॉव्हस्कीकृत 'अ किंग्डम ऑफ डार्कनॅस' (नाटक इं. शी.), टुर्ग्येन्येव्हकृत 'ऑन द इव्ह' (कादंबरी, इं.शी.) हे सारक्या साहित्यकृतींवयल्या लेखांचो आस्पाव जाता. ह्या साहित्यकृतींतल्यान चित्रायल्ले रशियन जिणेचे समिक्षेचेर ढब्रल्यूबॉव्हचो चड भर आशिल्लो अशें दिसता. रशियन क्रांतीकारकांक ताच्या लिखाणान प्रभावीत केल्लें.

विशुध्द कलावादाक पिसारेव्हचो विरोध आशिल्लो तशेंच कलेचो विचार फकत उपयुक्ततायवादी नदरेंतल्यान करुंक जाय अशी ताची भुमिका आशिल्ली. समाजाच्या शिक्षणीक - विज्ञानीक - भौतिक उदरगतीचे आड जें येतलें तें विघातक अशें ताणें मानलें. कवितेकूय ताचो विरोध आशिल्लो. पिसारेव्हची भुमिका वादग्रस्त पूण म्हत्वाची थरली.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांतल्या रशियन साहित्यांत कवितेपरस गद्यकृतींनी आपलो छाप घालो. ह्या संदर्भांत पिसारेव्हची काव्याआडची भुमिकाय प्रभावी थरली.

**विसावो शेंकडो** - ह्या शेंकड्यांत प्रतीकवाद, नवकालवाद (फ्युचरिझम), प्रतिमावाद (इमेजिझम) अशे विंगड विंगड वाङ्‌मयीन प्रवाह आनी प्रवृत्ती साहित्यांत दिसूंक लागल्यो.एकुणिसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक प्रतीकवादान रशियन कवितेंत चंवर हाडलो. सिमेन याकोव्ह्लेव्हिच नाडसन, अलेक्सी निकोलायेव्हिच अपुख्तीन आनी व्ह्लद्यीम्यिर सोलोव्ह्योव्ह हे ह्या प्रतीकवादाचे अग्रदूत. सोलोव्ह्योव्ह हो कवी, तत्त्वज्ञ आनी गूढवादी. कन्स्तांतीन बालमाँत होय प्रतीकवादी कवी. अल्यिक्सांडर ब्लॉक होय श्रेश्ठ प्रतीकवादी कवी. 'व्हर्सिस अबाउट द ब्यूटिफुल लेडी' (१९०४, इं. शी.) ह्या आपल्या काव्यझेल्यांतल्या कवितांतल्यान एके बायलेविशींचे आपले भाव-अणभव ताणें एका गुढोत्कट पांवड्याचेर व्हरून दवरले. हे बायलेंत ताणें सोफियाचे ईश्वरी प्रज्ञेचें प्रतीक पळयलें. 'द ट्वॅल्व्ह' (इं.शी.) ही ताची नामनेची कविता. पेट्रोग्राडच्या रस्त्यांतल्यान गस्त घालपी बारा तांबडे रक्षक हातूंत दिसतात. बारा हो आंकडो एक प्रतीक म्हणून हे कवितेंत आयला. ह्या प्रतिकाचे विंगड विंगड अर्थ भाश्यकारांनी लायल्यात. जेजूस ख्रिस्ताच्या बारा मुखेल शिश्यांचे (अपॉसल्स) प्रतीक म्हणून तो आयला अशेंय म्हण्टात. अंड्रेई ब्येलई ह्या प्रतीकवादी कवीचेर सोलोव्ह्योव्हच्या गूढवादी विचारांचो प्रभाव आशिल्लो. त्या प्रभावांतल्यानूच तो प्रतीकवादी काव्यसंप्रदायावटेन घुंवलो. गोल्ड इन अ‍ॅझर (१९०४, इं. शी.), अ‍ॅशिस (१९०८, इं. शी.) आनी अर्न (१९०८, इं. शी.) हे ब्येलईचे उल्लेख करपासारके कवितांझेले आसात. ताणें कादंबऱ्योय बरयल्यात. उदेंती आनी अस्तंती संस्कृतायांतलो विरोध दाखोवपी 'सिल्व्हर डव्ह' (१९१०, इं.शी.) आनी क्रांतिपूर्व रशियांतले स्थितीचें दर्शन घडोवपी पीटर्झबर्ग (१९१६) ह्यो ताच्यो कादंबऱ्यो. सिंफनी (सेकंड ड्रॅमॅटिक १९०२, इं. शी.) ह्या नांवान बरयल्ल्या गद्यकाव्यांचें एक लक्षणीय खाशेलपण. हेर उल्लेख करपासारक्या प्रतीकवादी कवींभितर व्हालेरी ब्रूसॉव्ह, व्ह्याचेस्लाव्ह इव्हानोव्हिच इव्हानॉव्ह आनी फ्यॉडर सोलोगब हांचो आस्पाव जाता. ब्र्यूसॉव्ह हो रशियन प्रतीकवादी चळवळींतलो सुरवेचो कवी. ब्रूसॉव्ह हाणें १९०४ वर्सा हे चळवळीचो एक वांटो म्हणून 'द स्केल्स' (इं. शी.) ह्या नांवान एक प्रतीकवादी नेमाळें सुरू केल्लें. ताचेर फ्रेंच प्रतीकवादाचो एक मुखेल कवी पॉल व्हर्लेअन हाचो प्रभाव आशिल्लो.

इव्हानॉव्ह हो विद्वान आनी कवी. ताका ग्रीक धर्म आनी संस्कृतायेविशीं आकर्शण आशिल्लें. ताचो 'पायलट स्टार्स' (१९०९, इं.शी.) हो कवितांझेलो उजवाडा येतकच, नवे प्रतीकवादी चळवळीचो एक फुडारी म्हणून ताका सुवात फावो जाली. कोर आर्डेन्स (दोन खंड, १९११) आनी द विंटर सॉनॅट्स (१९२०, इं.शी.) हे ताचे हेर उल्लेख करपासारके ग्रंथ. ताणें गद्य लिखाणूय केलां. 'बाय द स्टार्स' (१९०५, इं. शी.) आनी फरोज अँड बाउंडरीस (१९१६, इं. शी.) हे ताचे निबंदाझेले. नामनेचो सोव्हिएत कवी आनी कादंबरीकार बोरीस पास्तेरनाक हाच्या कवितांचेरूय प्रतीकवादाचो प्रभाव दिसता. १९१० वर्सा उपरांत प्रतीकवादी चळवळीचें विघटन जावंक लागलें आनी हेर प्रतिस्पर्धी काव्यसंप्रदायाचो उदय जालो. अक्मेइस्त संप्रदाय आनी नवकालवादी संप्रदाय हे तातुंतले चड उल्लेख करपासारके. अंद्रेअव्हन गोरेंको, न्यिकलाय गुमिल्योव्ह, ओसिप मँडलस्टाम हे अक्मेइस्त संप्रदायांतले उल्लेख करपासारके कवी आसात. तशेंच व्हिक्टर खल्येबनिकव्ह हाका रशियन नवकालवादाचो संस्थापक मानतात. स्मेख (हास्य) ह्या शब्दाचीं वेगवेगळीं रुपां उकतावपी. ताची एक कविता प्रसिद्‌द आसा. 'ए स्लॅप इन द फेस ऑफ पब्लिक टेस्ट' (इं.शी.) ह्या नांवान नवकालवाद्यांनी जो जाहीरनामो काडिल्लो ताचेर व्ह्लद्यीम्यिर

मायकोव्हस्की हाचीय निशाणी आशिल्ली. ए क्लाउड इन ट्राउझर्स' ही ताची सुरवातीची एक कविता नवकालवादी म्हणूं येता. १९१७ वर्सा रशियेंत जाल्ले ऑक्टोबर क्रांती उपरांत ते क्रांतीक येवकार दिवपी कांय कविता. देरवीक - 'ओड टू रेव्होलूशन (१९१८, इं,शी.) आनी लॅफ्ट मार्च (१९१९, इं. शी.) ताणें बरयल्यो. सोव्हिएत रशियेक चपक्यांत धरपाक पळोवपी अस्तंत्यांक जाब म्हणून ताणें १५००,००,००० ही कविता बरयली. कवितेचो माथाळो आशिल्ली संख्या ही त्या काळांतल्या रशियेची लोकसंख्या. ताणें नाट्य लिखाणूय केलां. क्रांती उपरांत सोव्हिएत साहित्यांत परिवर्तन घडून आयलें. सोव्हिएत साहित्याक नवी दिका मेळ्ळी. ह्या संदर्भांत माक्झिम गोर्की हें नांव चड म्हत्वाचें. कथालेखक म्हणून ताणें साहित्यक्षेत्रांत पावल दवरलें. १९३२ वर्सा सोव्हिएत साहित्यिकांचे संघटणेचो पयलो अध्यक्ष म्हणून ताची नेमणूक जाली. गोर्कीन समाजवादी वास्तववाद ह्या वाङ्मयीन तत्त्वज्ञानाचो पुरस्कार केलो. क्रांतिकार्याचे निशठेन एक भित्री, चिड्डल्ली बायल कशी निर्भय जाता हें दारवोवपी 'द मदर' (१९०७, इं. अ. १९२९) ही ताची कादंबरी समाजवादी वास्तववादाचो व्हड आदर्श मानतात. लोअर डेप्थ हें ताचें आंतरराश्ट्रीय नामनेचें नाटक. 'चायल्डहूड, इन द वर्ल्ड' आनी 'माय युनिव्हर्सिटीस' हे ताचे आपजिणेचे तीन फामाद खंड आसात. 'द लायफ ऑफ क्लिम सॅमगीन' (इं.शी.) हे ताचे कादंबरेकय खूब नामना मेळ्ळी.

रशियन क्रांतीच्या आनी क्रांती उपरांतच्या काळांत बरेचशे वाङ्मयीन पंगड अस्तित्वांत आयले. १९३४ ते १९४१ हो समाजवादी वास्तववादाचो प्रकर्शकाळ म्हणूं येता. सोव्हिएत राजवटीक विरोध करीनासतना आपलें स्वातंत्र्य सांबाळपी, सोव्हिएत युनियनांतली पयली वाङ्मयीन संघटणा १९२१ वर्सा 'सेरेपिअन ब्रदरहूड' (इं. अर्थ) ह्या नांवान स्थापन जाली. हे संघटणेंत मिरवायल झॉश्चेंकॉ, कोन्स्तांतीन आलेक्सांद्रोविच फेदिन, न्यिकोलाय तीरवॉनॉव्ह हे सारक्या साहित्यिकांचो आस्पाव आशिल्लो. पीरिव्हल हो सोव्हिएत लेरवकांचो आनीक एक पंगड उल्लेरव करपासारको. ह्या पंगडांतले चडशे साहित्यिक कम्युनिस्ट पक्षाचे वांगडी आशिल्ले. १९२४ वर्सा हाची स्थापणूक जाली. १९३२ वर्सा मेरेन हो पंगड अस्तित्वांत आशिल्लो. इव्हान कटायव्ह हो ह्या पंगडाचो मुरवेल वांगडी. 'मिल्क' (इं. शी.) ही ताची नामनेची कथा. सोव्हिएत साहित्याच्या सामक्या सुरवातीच्या काळांतले विशय चड करून यादवी झूज, क्रांती हांचेकडेन संबंदीत आशिल्ले. बोरिस पिलन्याक हाची 'द नेकिड यीअर (१९२२, इं. शी.१९२८) ही कादंबरी ह्या संदर्भांत उल्लेरवनीय आसा. आल्यिक्सांडर सिरफिमोव्हिच हो ऑक्टोबर क्रांती जावचे पयलीं लिरवाण करतालो. क्रांती उपरांत ताणें कम्युनिस्ट पक्षाचें वांगडीपद घेतलें. ताची 'दी आर्यन फ्लड' ही कादंबरी, कांय सोव्हिएत समिक्षक समाजवादी वास्तववादाची अग्रदूत मानतात. अल्यिक्स्येई टॉलस्टॉय हाचे द रोड टू कॅल्व्हरी हे तीन खंडांचे कादंबरींत राज्यक्रांतीच्या आनी यादवी झुजाच्या काळांतल्या रशियन लोकांची जीण वर्णिल्या. सायबेरियेंतलें गनिमी झूज व्ह्स्येव्हलॉट इव्हानॉव्ह हाचे आर्मर्ड ट्रेन नंबर १४ - ६९ (१९२२, इं. भा. १९३३) हे कादंबरींत प्रभावीपणान चितरायलां. द्‌मित्री अंद्रेयेविच फुरमानव हाणें चापायेव आनी मित्येझ ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो. अल्यिक्सांडर निव्हेरव्ह हाणें दुकळपीडित मिशा डोडोनव्हचेर' 'ताश्कंद; सिटी ऑफ ब्रॅड', (१९२१ इं. शी.) ही कादंबरी बरयली. ईसाक बाबल हाका गोर्कीचें वाङ्मयीन मार्गदर्शन मेळिल्लें. 'रॅड कॅव्हल्‌री' हो ताचो उल्लेरवनीय कथासंग्रह.

इव्हान बून्यिन हाचो सोव्हिएत क्रांतीक विरोध आशिल्लो. अंतोनॉव्ह ॲपल्स, द जंटलमन फ्रॉम सान फ्रांसिस्को ह्यो ताच्यो कथा प्रसिद्द आसात. रशियेंतल्यान भायर सरतकच ताणें मित्याज लव्ह (१९२५, इं. भा. १९२६) आनी द वॅल ऑफ डेज (१९३०, इं. भा. १९३३) ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो. १९३३ वर्सा ताका साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. हो पुरस्कार मेळोवपी तो पयलो रशियन साहित्यिक. मिरवायल बूलगाकॉव्ह हाणें कथा, कादंबऱ्यो आनी नाटकां बरयलीं. अलिक्सांद्रोविच फादेयेव्ह हाणें यादवी झुजाचे फाटभुंयेचेर राजग्रोम' (१९२७, इं. शी. द राउट; इं.भा.द. नाइंटीन, १९२९) ही कादंबरी बरयली. मलदाया ग्व्हार्दिया ही ताची अशीच उल्लेरव करपासारकी कादंबरी. कोन्सांतीन अलेक्सांद्रोविच फेदिन हाणें 'गरदा अ गोदी' (१९२४, इं. शी. सिटीस अँड यीअर्स), ब्रात्या ( १९२८, इं. शी. ब्रदर्स), पेरविये रादस्ती (१९४५, इं. शी. अर्ली जॉइज), निअबिक्नोव्हेन्नोये ल्येतो (१९४७ - ४८, इं. शी. नो ऑर्डिनरी समर), पारिवश्चेनिये येवरोपी (१९३३- ३५, इं. शी.' ॲबडक्शन ऑफ यूरोप' आनी क्रस्त्योर (१९६१), इं. शी. कॉनफ्लॅग्रेशन) ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो. लिओनिद लिओनॉव हाका बारसुकी (१९२४, इं. शी. द बॅजर्स) हे कादंबरीक लागून खूब नामना मेळ्ळी. रुस्की ल्येस हीय ताची एक उल्लेरव करपासारकी कादंबरी. ताणें कांय नाटकांय बरयल्यांत. युरी ओलेशा हाचे एनव्ही (१९२६, इं. भा. १९३६) हे कादंबरेंत नव्या सोव्हिएत समाजाक लागून निर्माण जाल्ल्या मूल्यसंघर्शाचो प्रसन्न हाताळ्ळा. व्हल्यिंट्यीन प्यिट्रोव्हिच कटायव्ह हाचे द इंबेझ्ल्र्स (१९२६, इं. भा. १९२९) हे कादंबरींत एका रसायनीक काररवान्यांतल्या कामगार आनी तंत्रज्ञ हांचे कामगिरीचें चित्रण आसा. फ्योडर ग्लटकॉव्ह हाचे त्सेमेंत (१९२५, इं. शी. सिमेंट) हे कादंबरींत यादवी झुजाउपरांतच्या रशियेंतले उद्येगिकीकरणाचें आनी कामगार वर्गाचें चित्रण आसा. बरीस पिलन्याकची 'द व्होल्गा फ्लोस इंटू द कॅस्पिअन सी (१९३०, इं. भा. १९३१) आनी व्हल्यिंट्यीन प्यिट्रोव्हिच कटायव्ह हाची टायम फॉरवर्ड (१९३२, इं. भा. १९३३) ह्यो कादंबऱ्यो उल्लेरव करपासारक्यो आसात. नामनेचो सोव्हिएत कवी स्यिरग्येई अल्यिक्सांद्रव्हिच यिस्येन्यिन हाका पारंपारीक ग्रामीण

द टॅव्हर्नस (१९२४ , इं. शी.) ह्यो कविता चड उल्लेखनीय आसात. म्यिखायल इसाकोव्हस्की हाचीय कविता लोकगितांकडेन नातें सांगपी. सोव्हिएत कवी द्यिम्यान ब्येदन्यी हाणें समूहगितां, क्रांतीगौरवगितां बरयलीं. न्यिकलाय अस्त्रोव्हस्की हाचे कांक जाकाल्यालास स्ताल (१९३४, इं. शी. हाउ स्टील वॉझ टॅंपर्ड; इं. भा. द मेकिंग ऑफ ए हिरो, १९३७) हे आपजिणेचेर आदारीत कादंबरेक खूब नामना मेळ्ळी. नोबॅल पुरस्काराचो मानकरी म्यिखायल शोलोखॉव्ह हाणें १९२३ वर्सा लिखाणाक सुरवात केली आनी १९२५ वर्सा टेल्स ऑफ द डॉन, (इं. भा. १९६१) हें ताचें पयलें पुस्तक (कथांझेलो) उजवाडा आयलें. तीख्यी दोन (४ खंड, १९२८ - ४०, इं. भा. दोन खंड; अँड क्वायट फ्लोज द डॉन, १९३४ आनी द डॉन फ्लोज होम टू द सी, १९४०), पोदन्याताया त्सेलिना (१९३२ - ६०, इं. भा. २ खंड, व्हर्जिन सॉयल अप्टर्नड, १९३५ आनी हार्व्हेस्ट ऑन द डॉन, १९६०) ह्या ताच्या दोन कादंबऱ्यांनी ताका अग्रगण्य सोव्हिएत कादंबरीकार म्हणून नामना मेळोवन दिली.

व्हेसव्होल्ड व्हिश्न्येव्हस्की हाच्या पेरवाया कोन्नाया (१९२९, इं. शी. द फर्स्ट कॅव्हल्री) आनी पसल्येदनी रिशीत्येलना (१९३१, इं. शी. द लास्ट डिसायसिव्ह) हे सारक्या नाट्यकृतींतल्यान समाजवादी वास्तववादाचें दर्शन घडटा. न्यिकलाय पगोदीन हाची त्येंप (१९३०, इं. शी. टेंपो) ही नाट्यकृती चड उल्लेखनीय.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत राश्ट्रप्रेम आनी वीरकृत्यां हे सोव्हिएत साहित्याचे मुखेल विशय जाले. बोरीस गोर्बाटॉव्ह (ध फॅमिली ऑफ तारास, १९४३, इं. शी.), कोन्स्तांतीन सिमॉनॉव्ह (डेस अँड नायटस, १९४४, इं. भा. १९४५), लिओनिद लिआनॉव (चॅरिअर ऑफ रॉथ, १९४४, इं. भा. १९४६), अल्यिक्सांडर फादेयेव्ह (द यंग गार्ड, १९४५, इं. शी.) हांच्या कादंबऱ्यांतल्यान जर्मनीचें आक्रमण, स्टालिनग्राडाचो लढो, जर्मनव्याप्त प्रदेशांनी तरनाट्या कम्युनिस्टांनी भूंयगत रावन दिल्लें झूज हाचें चित्रण जालां.

आलेक्सी सुरकॉव्ह, अल्यिक्सांडर प्रोकोफयेव्ह, न्यिकलाय तीखॉनॉव्ह, अलिक्सांद्र त्व्हार्दोव्हस्की हे ह्या झूजकाळांतले उल्लेखनीय कवी.

दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांतच्या काळाचें पडबींब सोव्हिएत साहित्यांत दिसता. व्ह. अकोपारव स्तालिनग्रादा (इं. शी. इन द ट्रेंचीस ऑफ स्तालिनग्राड) ही व्हिक्तोर न्येक्रासॉव्हची कादंबरी ह्या संदर्भांत उल्लेख करपासारकी आसा. व्हेरा पानोव्हा, बरीस पल्येव्हई हांणीय दर्जेदार लिखाण केलां. पानोव्हा हाच्यो ट्रॅव्हलिंग कंपॅनिअन्स (१९४६, इं. शी.), कुझिलिखा (१९४७, इं. भा. द फॅक्टरी, १९४९), ह्यो कादंबऱ्यो आनी पल्येव्हईची 'द टेल ऑफ ए रिअल मॅन, (१९४७, इं. शी.) ही कादंबरी उल्लेखनीय आसा.

इल्या ग्यिगॉर्येव्हिच एरनबुर्क हाची द स्टॉर्म (१९४८, इं. भा १९४९) दुसऱ्या म्हाझुजाचेर आदारिल्ली आसा. व्हल्यिंट्यीन कटायव्ह हाची 'फॉर द पावर ऑफ द सोव्हिएट्स' (१९४८, इं. शी.) हीय झुजाचेर बरयल्ली एक कादंबरी. प्योत्र पाव्हलेंको (१८९९- १९५१) हाची हॅपिनेस ( इं. भा. १९४७) आनी सिम्यॉन बाबायेव्हस्की हाची कॅव्हलिअर ऑफ द गोल्डन स्टार (१९४७, इं. शी.) ह्या कादंबऱ्यांनी पुनर्बांदणेच्या कार्याचें दर्शन जाता. कोस्तांतीन पाउस्तोव्हस्की हो कथाकार. ताणें आपले प्रवासांतले अणभव कथेंत मांडल्यात. युरी नागीबीन हाणें खूबशो झूजकथा बरयल्यो. मिखायल प्रीश्विन हाका लेस्नाया कापेल ह्या ताच्या शब्दचित्र संग्रहा खातीर खूब नामना मेळ्ळी. ताणें निबंद, कथा, कादंबरी अशेंय लिखाण केलां.

ह्या काळांत सोव्हिएत कवितेचोय खूब विकास जालो. नोव्हल्ला मात्रेयेव्हा, युरी स्तेपानॉव्ह, जोसेफ ब्रॉडस्की, यिव्हगेन्यी अल्यिकसांद्रव्हिच यिव्हटशेंको हे युध्दोत्तर काळांतले कांय कवी. १९८७ वर्सा ब्रॉडस्की हाका नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. पोएम्स (१९६५, इं. शी.), हॉल्ट इन द विल्डरनेस (१९७०, इं. शी.) ह्या ताच्या कवितांतल्यान दुख्ख आनी निराशा दिसता. द प्रॉस्पेक्टर्स ऑफ द फ्युचर (१९५२, इं. शी.) हो यिव्हटशेंकोचो पयलो काव्यझेलो. उपरांत 'झिमा जंक्शन' (१९५६, इं. शी.) ही वादग्रस्त थारिल्ली कविता ताणें बरयली. नाझी जर्मनांनी युक्रेनियन जुदेवांचे केल्ले कत्तलीचेर ताणें बरयल्लें उत्कट शोकगीत'बाबीयार' (१९६१) हेंय निर्देशनीय आसून ताका आंतरराश्ट्रीय कीर्त मेळ्ळी. अंद्र्येई व्होझनेसेन्स्की हाच्या 'ध ट्रॅंग्युलर फियर' (१९६०, इं. शी.) आनी अँटी - वर्ल्ड (१९६७, इं. शी.) ह्या कवितांनी भाशेचो मोलादिकपणान केल्लो वापर, ताची खाशेली प्रतिमासृश्ट आनी विशयांची विविधताय दिश्टी पडटा. न्यिकलाय झाबोलॉट्स्की हाच्यो ओल्ड टेल (१९५२, इं. शी.), फ्लाइट इंटू ईजिप्त (१९५५) ह्यो सोबीत काव्यकृती. ताचो 'कॉलम्स' (इं. शी.) हो पयलो लक्षणीय काव्यझेलो १९२९ वर्सा उजवाडा आयलो.

दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत आठ वर्सांच्या काळांत 'द थॉ' ह्या नांवान वळखतलो म्हत्वाचो काळखंड सोव्हिएत साहित्यांत सुरू जालो. १९४५ ते १९५३ ह्या काळांत कसलीच कला ही पक्षहिताचे नदरेन निर्माण जावंक जाय अशी ठाम भुमिका घेतिल्ली आनी तिचो साहित्याचेर प्रतिकूल परिणाम जाणवतालो. हे स्थितीविशींचो नाराजीचो सूर साहित्यांतल्यान उदेतालो. मार्च १९५३ वर्सा स्टालिनाक मरण येतकच सोव्हिएत रशियेंतले हेर ताण कशे सदळ जायत गेले हेविशीं इल्या एरेनबुर्क हाणें आपले 'द थॉ' (१९५४, इं. शी.) हे खवदळ घालपी कादंबरेत चित्रायलां. ताचे पयलींचें लिओनिद झोरीन हाचें 'द गेस्ट्स' (१९५३, इं. शी). हें नाटकूय पक्षाच्या कलाविशींचे भुमिकेंत बसनाशिल्लें. १९५६ वर्सा बोरीस पास्तेरनाक हाणें डॉ. झिवागो' ही संवसारीक नामनेची कादंबरी बरयली. स्वातंत्र्यप्रेमी अशा कविमनान मांडिल्ले व्यक्ती जिणेच्यो समस्या हे कादंबरींत

दिसतात. १९५७ वर्सा ही कादंबरी सोव्हिएत रशियेभायर उजवाडा आयली आनी १९५८ वर्सा पास्तेरनाकाक साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. पूण ताणें तो न्हयकारलो. व्हलद्यीम्यिर दुदिन्त्सेव्ह हाचे 'नॉट बाय ब्रॅड अलोन' (१९५७) हे कादंबरिनूय रशियेंत आनी रशियेभायरुय प्रचंड गोंदळ घालो. त्व्हार्दोव्हस्की हाचे नोवये व्रेन्या (इं. शी. द न्यू टायम्स) ह्या नेमाळ्यांत कांय वादग्रस्त कादंबऱ्यो उजवाडा आयल्यो. तातूंत आलेक्सांद्र सोल्झेनित्सीन हाचे अदीन देन इवाना दिनीसोविचा (वड डे इन द लायफ ऑफ इव्हान दिनीसोविच, इं. अ. १९६३) हे कादंबरेचो आस्पाव जाता. यिव्हटशेंकोच्योय कांय कविता ह्या नेमाळयान उजवाडायल्यात. सोल्झेनित्सीन हाच्या हेर कादंबऱ्यांनी कॅन्सर वॉर्ड (१९६८), द फर्स्ट सर्कल (१९६८), ऑगस्ट १९१४ (१९७१), द गुलाग आर्चिपॅलागो (पुराय इं. अ. ३ खंड, १९७४- ७८) हांचो आस्पाव जाता. ताका १९७० चो साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. सोल्झेनित्सीन हाचें चडशें लिखाण सोव्हिएत रशियेंत वादग्रस्त थरलें आनी १९७४ वर्सा ताका देश सोडचो पडलो. विसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक हेर उल्लेख करपासारके साहित्यिक अशे- बोरीस स्लट्स्की (कवी), लिओनिद मार्टिनॉव्ह (कवी), आर्सेनी तारकोव्हस्की (कवी), बुलात ओकुडझा (कवयित्री), वेल्ला आरव्मादुलिना (कवयित्री), ग्लेब गॉर्बोव्हस्कं (कवी), अल्यिक्सांडर कुशनर (कवी), गेन्नादी आयगी (कवी), व्हासिली अक्स्यॉनॉव्ह (कथाकार),फाझिल इस्कंदर (कवी आनी कथालेखक), बोरीस बाल्टर (कथा-कादंबरीकार), अंड्रयेई सिन्याव्हस्की (कादंबरीकार आनी समिक्षक) हांचो आस्पाव जाता. १९६० उपरांतच्या रशियन नाट्यलिखाणाच्या संदर्भांत व्हिक्तोर रोझॉव्ह आनी अलेक्सी अर्बुझॉव्ह हीं नांवां चड उल्लेख करपासारकीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**रशिया :** संवसारांतलें सगळ्यांत व्हडलें राश्ट्र. १९२२ ते १९९१ मेरेन सोविएत युनियनातलें तें एक सगळ्यांत व्हडलें गणराज्य आनी एक बळिश्ट कम्युनिस्ट देश आशिल्लो. १९८० वर्सा सावन सोविएत युनियनातल्या साबार गणराज्यांनी स्वातंत्र्याची मागणी केल्ली. उपरांत १९९१ त तांणी उठावूय केल्लो. त्याच वर्सा सोविएत युनियनाचें विभाजन जालें. रशियेन आपली कम्युनिस्ट राजनिती सोडून दिवन नवी राजकीय, न्याय आनी अर्थीक पद्दत आपणायली.

रशियेचे उत्तरेक आर्क्टिक म्हासागर, अस्तंतेक काळो दर्या आनी बाल्टीक दर्या, दक्षिणेक आशिया खंड, जाल्यार उदेंतेक पॅसिफिक म्हासागर आसा. रशियेन युरोप तशेंच आशिया खंडाचोय व्हड भाग रेवडायला. क्षेत्रफळ १७, ०७५,४०० चौ.किमी. देशाची चडांत चड लांबाय (उदेंत - अस्तंत) ९,६५० किमी. जाल्यार चडांत चड रुंदाय (उत्तर- दक्षिण) ४,५०० किमी. लोकसंख्या : १४६,८६१,०२२ (१९९८).

**भूंयप्रकार :** भूंयतज्ञांनी, रशियन भुंयेचेर मेळपी वेगवेगळे मातयेचे प्रकार, रुखावळ आनी विंगड विंगड वाठारांतलें वेगवेगळें हवामान हांकां अणसरून सादारणपणान चार विभाग केल्ले आसात. हे विभाग उत्तर ते दक्षिण अशे - (१) टंड्रा, २) रान, ३) स्टॅप्स, ४) दोंगरी आनी रेंवटी प्रदेश.

टंड्रा हो विभाग रशियेचे साप्प उत्तरेक आसा. त्या विभागांत रुखावळ ना. थंय गिमाचो तेंप साप्प उणो आसून, शिंयाळे खूब कडक. त्या विभागांतली सुमार अर्दावयर जमीन सदांच गोठिल्ले स्थितींत आसून, तिका पर्माफ्रॉस्ट अशें म्हण्टात. त्या प्रदेशांतली मुखेल वनस्पत म्हळयार झोंपां. साप्प उण्या प्रमाणांत मोटवीं झाडां आनी वेगवेगळ्या प्रकारचो शेळो थंय आसा. रेनडियर, आर्क्टिक लांडगे, सोंशे, एर्मिन आनी लॅमिंग ही त्या विभागांत मेळपी मुखेल मोनजात.

टंड्रा विभागा सकयल रानाचो प्रदेश मोडटा. ह्या रानाच्या साप्प उत्तरेकडच्या भागाक 'टायगा' अशें म्हण्टात. थंय सिडार, फर, पायन आनी स्प्रूस हे सारकिल्ली कॉनिफरस रूखावळ आसा. त्या भागांतली माती वशाड गोबरीशी आसून तिका पोड्झोल अशें म्हण्टात. रानाच्या दक्षिण भागांत कॉनिफरस, आस्पॅन, बर्च, एल्म, मेपल, ओक आनी हेर प्रकारचे वेगवेगळे रूख आसात.

रान विभागाचे दक्षिणेक स्टॅप्स हो तणाचो प्रदेश मोडटा. ह्या प्रदेशाचो उत्तरेकडचो चडसो भाग सपाट आसून तातूंत चरवांचीं मळां आनी जळींमळीं काय झाडांय दिश्टी पडटात, जाल्यार दक्षिणेकडच्या भागांत फकत तणूच वाडटा. 'चॅर्मनोझेम' ही रशियेंतली सगळ्यांत पिकाळ जमीन ह्या भागांत आसा. हाका लागून स्टॅप्स जमनीचो चडसो उपेग शेतवडीखातीर जाता.

रशियेचो साप्प सकयलो प्रदेश रेंवटी आनी पर्वतांचो आसून, त्या भागांत वेगवेगळ्या प्रकारची माती तशेंच थंयच्या ऊंच-सकयल वाठारांत वेगवेगळें हवामान आसता.

भूंयप्रकाराचे नदरेन भूंयतज्ञांनीय रशियन भुंयेचे वेगवेगळे पांच विभाग केल्ले आसात. तांणी अस्तंतेकसावन उदेंतेकडेन केल्ले पांच विभाग अशे - १) युरोपीयन प्लॅन, २) उराल दोंगरी प्रदेश, ३) वॅस्ट सायबेरीयन प्लॅन, ४) मध्य सायबेरियन पठारी प्रदेश आनी ५) उदेंत सायबेरियन ऊंच प्रदेश.

रशियेचो युरोप आनी आशिया खंडांनी आस्पाव जाता. युरोप खंडांत आस्पाव जावपी देशाचो चडसो भाग सपाट आसून, ताची दर्याथरासावन सरासरी उंचाय १८० मी. आसा. सैमीक सांठ्यांचें प्रमाण जरी साप्प उणें आसलें, तरी लोकवस्ती आनी चडशे उद्देगधंदे

ह्या प्रदेशांत आसात. काळो दर्या आनी कॅस्पीयन दर्या हांचेमदीं आशिल्ल्या कॉकेसस् पर्वताचो दक्षिणेकडचो भाग चड ऊंच आसा. ह्या भागांत आशिल्ल्या माऊंट एल्ब्रूस ह्या तेमकाची उंचाय ५,६४२ मी. इतली आसून, तें युरोप खंडांतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक.

उत्तर - दक्षिण अशी रशियेंतल्यान पासार जावपी उराल पर्वतांची रांक रशियेचे युरोपीय आनी आशियायी अशे दोन वांटे करता. त्या पर्वतांवयल्यान एकसारक्या व्हांवपी झऱ्यांक लागून तांची खूब झीज जाल्ली आसा. पर्वतांची सरासरी उंचाय फकत ६१० मी. इतली आसा. पर्वतांच्या मध्य आनी दक्षिणेकडच्या भागांत लोखण, तांबें आनी हेर धातूंचे व्हड सांठे आसात. उराल पर्वतीय प्रदेशाच्या मध्य भागांत लोकवस्ती दाट आसून तें एक उद्देगीक केंद्र आसा. येकाटॅरीनबर्ग आनी चेलयाबींस्क हीं प्रसिद्द शारां थंय आसात.

वॅस्ट सायबेरीयन प्लेन हो संवसारांतलो सगळ्यांत व्हडलो सपाट प्रदेश. ह्या प्रदेशाखाला २६ लाख चौ.किमी. जमीन आसून तिची दर्यातळा सावन सरासरी उंचाय १५० मी. इतली आसा. ऑब ही त्या प्रदेशांतल्यान व्हांवपी प्रसिद्द न्हंय. त्या प्रदेशाची चडशी भूंय रेंवटी प्रकारची आसून, सैमीक तेल आनी वायू हांचे व्हड सांठे थंय सांपडल्यात. नोवोसिबर्क आनी ओम्स्क ह्या शारांचो आस्पाव तातूंत जाता.

मध्य सायबेरीयन सड्याच्या प्रदेशाची उंचाय आर्क्टीक दर्यादिगेसावन दक्षिणेकडेन वाडत वता. त्या प्रदेशाची सरासरी उंचाय ६१० मी. इतली आसा. सायान आनी बायकल हीं त्या प्रदेशांतलीं उंचेलीं तेमकां आसून तांची उंचाय ३,३६० मी. परस चड आसा. थंय पायन प्रकारचे रुखावळीचीं दाट रानां आसात. थंयचे गीम आनी शिंयाळे खूब कडक आसतात. वेगवेगळ्या धातूंचे व्हड सांठे थंय आसात. क्रेस्नोयार्क आनी इरकूट्स्क हीं त्या प्रदेशांतलीं व्हड शारां.

उदेंत सायबेरीयन हो ऊंच प्रदेश, उसू दोंगरी आनी सड्याचो प्रदेश. कांय पर्वतांची उंचाय ३०००मी. मेरेन आसा. त्या विभागांतल्या कामचट्का द्विपकल्पाचेर सुमार २५ क्रियाशील ज्वालामुखी आसात. हिमान भरिल्ल्या क्लूचेवास्काया पर्वताची उंचाय ४,७५० मी. आसून तो रशियेंतलो सगळ्यांत उंचेलो ज्वालामुखी पर्वत. त्या विभागांत वेगवेगळ्या खनिजांचे व्हड सांठे आसात. पूण थंयच्या सामक्या कडक हवामानाक लागून ते काडप कुस्तार जाता.

रशियेंत साबार व्हड न्हंयो आसून, तांचो येरादारीखातीर खूब उपेग जाता. सायबेरियेंतली 'लीना' न्हंय ४,४०० किमी. लांब आसून ती रशियेंतली सगळ्यांत लांब न्हंय. तिचो लोट आर्क्टिक म्हासागराक मेळ्ळा. आमूर, ऑब आनी येनीसे ह्यो सायबेरीया प्रदेशांतल्यान व्हांवपी हेर म्हत्वाच्यो न्हंयो. पूण वर्सांतले सात ते णव म्हयने त्यो गोठेल्ले अवस्थेंतूच आसतात. 'वोल्गा' ही युरोपीय रशियेंतली सगळ्यांत लांब न्हंय. मॉस्को शाराचे वायव्य दिकेक आशिल्ल्या वाल्दाय दोंगरांत तिचो उगम जाल्लो आसून, ती दक्षिणेकडेन सुमार ३,५३१ किमी. व्हांवत वचून कॅस्पियन दर्याक मेळटा. दर वर्सा ती सुमार तीन म्हयने गोठेल्ले स्थितींत उरता. डॉन आनी डिबना ह्यो युरोपीय रशियेंतल्यो हेर म्हत्वाच्यो न्हंयो.

रशियेत ल्हान-व्हड अशीं सुमार दोन लाखांवयर तळीं आसात. कॅस्पियन दर्या हें खाऱ्या उदकांचें एक व्हड तळें. दर्याथरासावन तें सुमार २८ मी. सकयल आसा. चोंशी वटेन भुंयेन रेवडायल्लें तें संवसारांतलें एक सगळ्यांत व्हडलें खाऱ्या उदकाचें पात्र. सेंट पिटर्सबर्गा लागसार आशिल्लें 'लाडोगा' हें सबंद युरोपातलें सगळ्यांत व्हडलें तळें. 'बायकल' तळ्याची खोलाय सुमार १,६२० मी. इतली आसून, तें संवसारांतलें सगळ्यांत खोल तळें.

**हवामानः** रशियेचें सरासरी हवामान थंड आसून, थंयचो शिंयाळो खूब कडक आनी खूब तेंप मेरेन उरता. थंयच्या कडक शिंयाळ्याक लागून आदल्या तेंपार रशियेच्या दुस्मानांनी त्या देशाचेर घालल्ल्यो साबार घुरयो निकामी थरिल्ल्यान रशियेच्या शिंयाळ्याक इतिहासीक म्हत्व मेळ्ळां. मॉस्को प्रदेशांत वर्साचे सुमार पांच म्हयने मेरेन हीम दाटिल्लो आसता.

रशियेच्या साप्प दक्षिणे कडल्या भागांत वर्साचे आठ ते णव म्हयने मेरेन हीम पातळिल्लो आसता. त्या भागांतली चडशी जमीन गोठेल्ले स्थितिंतूच आसता. तशेंच त्या भागांतलें दर्यादिगाचें, तळ्यांतलें उदक चडकरून गोठेल्लेंच आसता.

शिंयाळ्या प्रमाण रशियेंतलो गिमूय खूब कडक आसता. पूण शिंयाळ्याच्या मानान ताचो तेंप खूब उणो आसता. सायबेरीयेचो ईशान्य भाग हो संवसारांतलो सगळ्यांत थंड भाग. जानेवारी म्हयन्यांत त्या भागांतलें तापमान गोठबिंदू सकयल सुमार -४६° से. इतलें सकयल देंवता. जुलय म्हयन्यांत थंयचें सरासरी तापमान १६° से. इतलें आसता. केन्नाकेन्नाय तें ३८° से. मेरेन वाडटा. तापमानांत इतलो फरक संवसारांतल्या हेर खंयच्याच प्रदेशांत सांपडना. रशियेंत पावस खूब उणो पडटा. युरोपीयन प्लॅन आनी उदेंत सायबेरियेंत रशियेंतल्या हेर प्रदेशांपरस चड पावस पडटा. सायबेरियेंतल्या अस्तंत आनी मध्य भागांत १२० सेंमी. मेरेन हीम पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** रशियेच्या साप्प उत्तरेच्या म्हळयार टंड्रा प्रदेशांत रुखावळ ना. थंय खूब उण्या प्रमाणांत वेगवेगळ्या प्रकारांचीं झोंपां आनी वेगवेगळ्या प्रकारांचो शेळो सांपडटा. त्या प्रदेशांत रेनडियर, आर्क्टिक प्रकारचे लांडगे, एर्मीनेस, सोंशे आनी लॅमींग ही मोनजात सांपडटा. टायगा प्रदेशांत सिडार, फर, पायन आनी स्प्रूस, आस्पेन, बर्च, एल्म, मेपल, ओक ह्या प्रकारची कोनिफरस रुखावळ सांपडटा. जाल्यार वांस्वेल, हरण, एल्क, लिंक्स, चानी, सोंसो ही मोनजात थंयच्या रानांनी आसा. 'जेर्बोस' हें

कोळहुंदरा प्रमाण दिसपी जनावर स्टॅप्स प्रदेशांत सांपडटा.

**इतिहास :** युरोप आनी आशिया खंडांनी पातळिल्ल्या ह्या देशांच्या इतिहासाक दोनूय खंडांचें दायज मेळ्ळां. १९१७त 'बॉल्शॅव्हीक' ह्या क्रांतीकारी गटान झार सरकार उमथावन उडोवन रशियेचें नांव 'रशियन सोव्हिएत फॅडरेशन ऑफ सोशिआलिस्ट रिपब्लीक' (R.S.F.S.R.) अशें दवरलें. १९२२त R.S.F.S.R. आनी हेर तीन गणराज्यां मेळून 'युनियन ऑफ सोव्हिएत सोशिआलिस्ट रिपब्लीक' नांवाचें नवें राश्ट्र तयार केलें. ताका सोव्हिएत युनियन अशेंय म्हण्टाले. पूण १९९१ त सोव्हिएत युनियन विभक्त जालें. उपरांत रशिया, युक्रेन आनी बेलारूस देशांनी हेर गणराज्यांक उलो मारून 'कॉमनवॅल्थ ऑफ इंडॅपॅंडॅण्ट नेशन्स' हें नवें संघराज्य तयार केलें.

**पुर्विल्लो इतिहास :** सिमेरीयन हे बाल्कन लोक इ.स.प. १२०० त काळ्या दर्याच्या उत्तर भागांत म्हळयार सद्याच्या दक्षिण युक्रेन प्रदेशांत रावताले. इ.स.प. ७०० च्या सुमाराक स्कायपीयन ह्या मध्य आशियाच्या इराणी लोकांनी सिमेरियन लोकांचेर हार घाली. इ.स.प २०० मेरेन तो प्रदेश स्कायथीयन लोकांच्या शेकातळा आसलो. उपरांत सारमातीयन ह्या दुसऱ्या इराणी लोकांनी तांचेर हार घाली. स्कायथीयन आनी सारमातीयन लोकांचो काळ्या दर्याच्या उत्तर भागांत रोमी लोकांच्या शेकातळा आशिल्ल्या ग्रीक वसणुकीकडेन लार्गीचो संबंद आशिल्लो. हाका लागून तांणी ग्रीक आनी रोमी लोकांच्यो साबार पद्धती आपणायल्यो.

गोथ हे जर्मनीक जमातीन इ.स. २००त तो प्रदेश आपल्या शेकातळा व्हेलो. उपरांत तांचो ३७० मेरेन थंय शेक चलतालो. त्याच वर्सा हून ह्या आशियेंतल्या झुजारी वृत्तीच्या लोकांनी तांचेर हार घाली. हून लोकांचो मुखेली आटीला हाका ४५३ त मरण आयले उपरांत हून सम्राज्याचे वांटे जाले. उपरांत ५०० च्या मध्याक सावन हून लोकांचीच एक दुसरी जमात 'अवार' ह्या प्रदेशाचेर आपलो शेक गाजोवपाक लागली. ६०० च्या मध्याक 'खाझर' ह्या आशियेंतल्या लोकांनी दक्षिण वोल्गा आनी कॉकॅससच्या उत्तर प्रदेशाचेर जैत मेळयलें. उपरांत ते ज्यूदेव जाले आनी तांणी भोंवतणच्या लोकांकडेन वेपारी संबंद जोडले.

स्लावीक लोकांच्या पंगडांनी इ.स. ८०० च्या सुमाराक उदेंत युरोपांत साबार नगरां उबारिल्लीं. त्या तेंपार तांचो वेपारूय बेताम चलतालो. पूण स्लाव लोक खंयच्यान आयले हें आयज लेगीत स्पश्टपणान खबर ना. कांय इतिहासकारांच्या मतान ते ४०० च्या सुमाराक पोलंडाच्यान आयले, जाल्यार हेर कांय जाणांच्या मतान ते काळ्या दर्या भोंवतणच्या वाठारांतल्यान आयले. सद्या बेलारस, रशिया आनी युक्रेन गणराज्यांतल्या स्लाव लोकांक 'उदेंत स्लाव' अशें म्हण्टात.

रशियेचो इ.स. ८०० च्या सुमाराचो इतिहास ११११त कीव शारांत बरयल्ल्या बखराचेर आदारिल्लो आसा. बखरा प्रमाण नॉव्हगोरोड शारांत रावपी स्लावीक लोकांनी वायकींग जमातीक त्या प्रदेशाचेर राज्य चलोवन थंय सुवेवस्था स्थापीत करपाक प्रार्थना केली. त्या तेंपार वायकींग लोकांक वारांगीयन रूस अशें म्हण्टाले. वायकींग जमातीकडच्यानूच त्या प्रदेशांतल्या लोकांनी रशिया हें नांव घेतलें अशें त्या बखराचो आदार घेवपी इतिहासकार मानतात. वारांगीयन कुळाचे लोक ८६२त रुरीक हाच्या फुडारपणासकयल नॉव्हगोरोड शारांत येवन रावले. हाका लागून त्या प्रदेशांत 'रूस लोकांची भूंय' म्हण्टाले अशेंय ते बखरींत मुखार सांगलां. पूण चडशा इतिहासकारांच्या मतान वायकींग लोकांनी खुद्द स्लाव्ह लोकांचेर घुरी घालून नॉव्हगोरोड शार आपल्या शेकातळा व्हेलें. कांय इतिहासकारांच्या मतान 'रूस' ह्या उतरावयल्यान 'रशिया' नांव आयलां. तें काळयादर्या भोंवतणीं रावपी सुरवेच्या स्लावीक जमातीकडच्यान आयलां. उदेंत स्लाव लोकांनी कीव शारांत ८००त स्थापीत केल्ल्या पयल्या राज्याक 'कीवान रूस' अशें म्हण्टाले. डँपर न्हंयच्या कांठार वशिल्लें कीव शार त्या वेळार एक म्हत्वाचें उद्देगीक केंद्र आशिल्लें. कीव सद्या युक्रेन गणराज्याची राजधानी आसा.

बखरींत दिल्ले म्हायती प्रमाण ८८२त ऑलेग ह्या वारांगीअन राजकुंवरान कीव शाराचेर जैत मेळयलें. त्या तेंपार नॉव्हगोरोड तशेंच भोंवतणच्या प्रदेशांनी अशो कांय प्रिन्सीपालीटीस आशिल्ल्यो. ९००त 'किवान रूस' हे प्रिन्सिपालिटीन कीव प्रिन्सिपालिटीचें व्हडपण मानून घेतिल्लें. कीव सैन्यान हेर प्रिन्सिपालिटीचेर आयिल्ल्यो साबार घुरयो परतुपाक तेंको दिल्लो. हाका लागून तांचें म्हत्व मुखार वाडत गेलें. कीव शाराची त्या वेळार वेपारी मळाचेरूय खूब उदरगत जाली. ह्या सगळ्या कारणांक लागून कीव राजकुंवराक 'ग्रॅंड प्रिन्स' म्हणपाक लागले. त्या काळांत उदेंत स्लाव लोक सैमीक अद्भूत घडणुकांतूच विस्वास दवरताले. पूण ९८८ त ग्रॅंड प्रिन्स व्लादिमीर पयलो हाणें क्रिस्तांव धर्म आपणावन तो राजकीय धर्म म्हणून घोशीत केलें. हाका लागून ताचे राजवटींत साबार लोकांनी क्रिस्तांव धर्म आपणायलो. उपरांत व्लादिमीर रशियन ऑर्थोडॉक्स इगर्जेचो संत जालो.

इकराव्या शेंकड्यांत हेर प्रिन्सिपालिटींचोय शेक वाडत गेलो. कांय राजकुंवरांनी ग्रॅंड प्रिन्स ही पदवी घेतिल्ली. इकराव्या शेंकड्याच्या मध्याक कीव राज्याक देंवती कळा लागली. उपरांत सत्ता हाशील करचे खातीर ग्रॅंड प्रिन्स हांचेमदीं झगडीं जावपाक लागलीं. ते स्थितीचो फायदो घेवन १२००त टार्टर ह्या मोगल सैन्यान कीव्हान रुसाचेर घुरी घालून थंय आपलो शेक बसयलो.

इ.स. १२३७ त आक्रमक गंघीस खान हाचो पूत बाटू हो १,५०,००० ते २,००,००० मोगल सैन्य घेवन रशियेंत घुसलो.

ताणें रशियेच्या शारांचेर एका फाटल्यान एक अशो घुरयो घालून तीं आपल्या शेकातळा व्हेलीं. १२४० त तांणी कीव शाराचेर जैत मेळयलें. अशे रितीन रशिया हो मोगल साम्राज्याचोच एक वांटो जालो. रशिया आपल्या साम्राज्याक जोडले उपरांत बाटू सम्राटान ताचो आस्पाव गोल्डन होर्ड प्रांतांत केलो आनी रशियेचो राजपूत गोल्डन होर्ड प्रांताकडेन निश्ठेन वागतलें हाचें उतर घेतलें. उपरांत रशियेच्या ग्रँड प्रिन्स' हांची नेमणूक मोगल सम्राटूच करपाक लागले. तांणी साबार रशियन लोकांक बळजबरेन मोगल सैन्यांत भरती केल्ले. पूण तांणी रशियेंत लोकांचे दीसपट्टे जिणेंत केन्नाच हस्तक्षेप केलोना. रशियन लोकांक आपल्या शेकातळा दवरून कर वसुली करप होच तांचो मुखेल हेत आशिल्लो.

मॉस्कोचो प्रिन्स युरी हाचें गोल्डन होर्डेचो राज्यकर्तो खान हाचे भयणीकडेन १३००त लग्न जालें. उपरांत १३१८ त मोगल सैन्याच्या आदारानूच ताची रशियेचो ग्रँड प्रिन्स म्हूण नेमणूक केली. १३३०त इवान पयलो ग्रँड प्रिन्स जाले उपरांत मोगल राज्यकर्त्यांनी ताका रशियेंतल्या हेर राजपुतांकडच्यान कर वसुली करपाचे हक्क दिले. इवान कर वसुली करतना चडशी रक्कम आपले कडेन दवरपाक लागलो. त्या पयशांच्या खुस्तार ताणें खूब जमीन विकत घेवन आपल्या राज्याचो विस्तार वाडयलो. वरिश्ठ घराण्यांतल्या साबार मनशांक ताणें सैन्यांत आनी सरकारांत उंचेल्या पदांचेर नेमिल्ले. तशेंच, रशियेन ऑर्थोडॉक्स इगर्जेच्या मुखेल बिशपाकूय मॉस्कोंत रावपाक सांगलें. ताचे पयलीं कीव हें रशियेचें धर्मीक केंद्र आशिल्लें. अशे रितीन मॉस्को एक बळिश्ट आनी गिरेस्त राज्य जालें.

गोल्डन होर्डेचें मुखेलपण हातासपाखातीर मोगल राजांभितर एकसारकीं झगडीं जायत राविल्ल्यान ताका ल्हव ल्हव देंवती कळा लागली. ताचो परिणाम म्हळयार १३८० त ग्रँड प्रिन्स दमित्री हाणें कुलिकीवो झुजांत मोगलांचेर हार घाली. पूण १३८२ त मोगलांनी मॉस्को शाराचेर परतून जैत मेळयलें. इ. स. १४०० सुमाराक मॉस्को हें रशियेंतलें बळिश्ट शार आशिल्लें. इवान तिसरो हाणें रशियेंतल्या हेर प्रिन्सिपालीटींचेर आपलो शेक बसयल्लो. जाल्यार कांय राज्यांनीय ताका पालव दिल्लो. १४८० त इवानान गोल्डन होर्डेक कर दिवपाक न्हयकारून मोगलांच्या चपक्यांतल्यान रशियेची सदांखातीर सुटका करून घेतली. ताचो बदलो घेवपाक म्हणून मोगल सैन्यान मॉस्को शाराचेर घुरी घाली. पूण संघटीत रशियन सैन्यान तांचेर हार घाली.

मॉस्को राज्याचो शेक खूब वाडलो तेन्ना ताच्या ग्रँड प्रिन्साक झार म्हणपाक लागले. १५४७ त इवान चवथो हो कायदेशीर राज्याभिशेक करून झार हो मुकूट घेवपी पयलो राज्यकर्तो आशिल्लो. उपरांत इवानान सबंद रशिया झाराच्या शेकातळा हाडली. इवान चवथो हो कपटी आनी क्रूर राजा आशिल्लो. ताणें उमरावशाय नश्ट करचेखातीर एक खाशेलें पुलीस दळ उबें केल्लें. ताका विरोध करतल्या कांय पाद्रींची ताणें हत्त्या केली. तशेंच, साबार गांव आनी कांय नगरां ताणें हुलपावन उडयल्लीं. हाका लागून ताका 'इवान द टॅरीबल' (भयांकृत इवान) अशें म्हण्टाले. तो खूब क्रूर आशिल्लो, रागाच्या भरांत ताणें आपल्या व्हडल्या पुताक लेगीत जिवेशीं मारिल्लो. ताणें जमीनदारांक कांय खाशेल्यो सवलती दिल्ल्यो. पूण ताच्या बदलाक दर एका जमीनदारान राजांचें सैन्य बळिश्ट करपाक अमुकूच सैनीक आनी घोडे धाडचे पडटाले. आपल्या व्हड सैन्याच्या आदारान इवानान आस्ट्राखान आनी कझान प्रदेशांत टार्टर लोकांचेर हार घालून तांची जमीन हातासली. उपरांत ताच्या सैन्यान उराल पर्वत हुंपून अस्तंत सायबेरिया प्रदेश रशियेच्या शेकातळा हाडलो. इवानाच्या सैन्यान बाल्टीक दर्याचे वायव्येक आशिल्लोय प्रदेश रशियेक जोडपाचे खूब यत्न केले. पूण लिथुआनीया, पोलंड आनी स्विडन सैन्यान तांचेर हार घाली. इवानाक मरण आयले उपरांत झारांचो शेक उणो जायत गेलो. इवानाचो दुसरो पूत थिओदोर पयलो हो एक अशक्त झार आशिल्लो. ताणें रशियेच्या राजकारभाराचीं सगळीं सुत्रां आपलो मेवणो बोरीस गोडुनोव हाच्या हातांत दिल्लीं. थिओदोराचो धाकलो भाव दमित्री हाका १५९१ त मरण आयलें, जाल्यार १५९८त थिओदोराक मरण आयलें. ताका पूत नासलो देखून 'झेमस्की सोबर' हे कांय मोजकेच हक्क आशिल्ले संसदेन बोरिसाची झार म्हूण नेमणूक केली. पूण आदलो माँक, ग्रॅगरी ऑट्रेपीव हाणें आपूण दमित्री आशिल्ल्याचो दावो करून झार पद हाशील करपाचे खूब यत्न केले. पूण बोरीसान ताका धरपाचें फर्मान काडिल्ल्यान ग्रॅगरीन लिथुआनियेंत आलाशिरो घेतलो. १६०४ त ग्रॅगरीन पोलंडी सैन्याच्या आदारान रशियेचेर घुरी घाली. ताका साबार असंतुश्ट रशियन लोकांनी पालव दिलो. उपरांत यादवी झूज, आक्रमणां आनी राजकीय घुस्पागोंदळाक लागून रशियेची स्थिती साप्प इबाडली. १६०५ त ग्रॅगरी झार जाले उपरांत एका वर्साभितरूच ताची हत्त्या जाली. उपरांत प्रिन्स बासील शुयकी झार जालो. १६१०त पोलंडी सैन्यान मॉस्को शाराचेर घुरी घाली. उपरांत १६१२ मेरेन तांणी रशियेचेर सत्ता गाजयली. त्या काळांत रशियेंतल्या साबार शेतकामत्यांनी आनी जमीनदारांनी पोलंडीआड साबार उठाव केले. निमाणेकडेन रशियन लोक संघटीत जावन तांणी पोलंड लोकांक धांवडावन घाले. पोलंड लोकांचेर हार घाले उपरांत रशियेंत राजकारभार चलोवपाक राज्यघराण्या संबंदीत असो कोणूच वारस नाशिल्लो. हाका लागून १६१३ त 'झेम्स्की सोबर' हे संसदेन मायकल रोमानोव हाची झार म्हणून नेमणूक केली. उपरांत रोमानोव वंशावळीन रशियेचेर तीनशें वर्सांवयर सत्ता गाजयली. फेब्रुवारी १९१७ त रशियेंत व्हड क्रांती जावन रोमानोव झारांची सत्ता काबार जाली.

सतराव्या शेंकड्यांत रशियेन युक्रेनाचो चडसो भाग आनी सायबेरियेचो उदेंतेकडचो पॅसिफीक म्हासागरामेरेनचो पातळिल्लो

सगळो प्रदेश हातासलो. त्याच काळांत रशियेन ऑर्थोडॉक्स इगर्जेनूय धर्मीक पुस्तकांनी आनी विधींत कांय बदल केले. १६८२त पिटर पयलो आनी इवान पांचवो ह्या दोगां सवती भावांमधल्या कोणाक झार करचो हाचेर वाद सुरू जालो. निमाणेकडेन दोगांकूय झार करपाचें मान्य जालें. पूण ते दोनूय नेण्टे आशिल्यान इवानाची भयण सोफिया तांची प्रतिनिधी म्हणून राज्यकारभार चलोवपाक लागली. पूण १६८९त पिटरच्या सांगात्यांनी सोफियाक बळजबरेन निवृत्त केली. १६९६ त इवानाक मरण आयले उपरांत सगळी सत्ता पिटराच्या हातांत गेली. पिटर हो एक कुशळ राज्यकर्तो आशिल्लो. ताणें राजकारभारांत थिराय हाडून रशियेचो वेपारूय वाडयलो. ताणें भोंवतणच्या कांय प्रदेशांचेर जैत मेळोवन रशियेचो विस्तार वाडयलो. १७०३ त ताणें बाल्टीक दर्यादिगेर सेंट पिटर्सबर्ग नगर उबारून, उपरांत १७१२त आपली राजधानी थंय व्हेली. प्रबोधन काळांत अस्तंत युरोपांत जाल्ली उदरगत मतींत घेवन ताणें त्याच प्रकारच्यो उद्देगीक, संस्कृतीक, शिक्षणीक आनी राजकीय पद्धती रशियेंत आपणायल्यो. ह्या पद्धतींक विरोध करतल्यांक तो कडक रवास्त दितालो. तशेंच उमरावशाय आनी इगर्जेचेरूय ताणें आपलो शेक बसयल्लो. १७२५ त पिटरच्या मरणा उपरांत रोमानोव घराण्यांत सत्तेर येवपाखातीर सर्त सुरू जाली.

अठराव्या शेंकड्यात रशियेंत अस्तंती प्रभावाखाला उत्सव, कलाकुसर, शिक्षण हांची रवूब वाड जाली. पूण तांचो लाभ मुखेलपणान गिरेस्त लोकांकूच मेळ्ळो. रशियन इम्पेरीयल बॅलेट स्कूल आनी इटालीयन ऑपेराचीय स्थापणूक अठराव्या शेंकड्यांतूच जाली. अठराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत एम्प्रॅस कॅथरीन दुसरी हिच्या शेकातळा रशियेंत अस्तंती कल्पनांची आनिकूय वाड जाली. तिणें कायद्याच्या मळारूय कांय सुदारणा घडोवन हाडिल्ल्यो. पूण त्या तेंपार चडशे रशियन लोक दळिद्र रेशेरवालाच आशिल्ले. रोमानोव घराण्यान तांचे जीणेंत सुदारणा घडोवन हाडचेरवातीर कांयच पावलां उबारूंक नाशिल्लीं. हाचो परिणाम म्हळयार १७७३ आनी १७७४ त एमेलीयन पोगाशेव हाच्या फुडारपणाखाला शेतकामत्यांनी राजघराण्याआड उठाव केलो. तो सबंद रशियेंत पातळिल्लो. पूण १७७५ चे सुरवेक सरकारी सैन्यान तो मोडून उडयलो. कॅथरीनाच्या तेंपार रशियेचो मुखेल राश्ट्रांभितर आस्पाव जातालो. त्या काळांत रशियन पोलंडाकडच्यान बॅलारूस, लिथुआनीया आनी युक्रेन राज्यां आपल्या शेकातळा हाडलीं. ऑटोमन साम्राज्याचेर घुरी घालून क्रिमिया आनी हेर प्रदेश रशियेक जोडले. १७९६त कॅथरीनाक मरण आयले उपरांत तिचो पूत पावल हो झार जालो. पूण १८०१त पावलाची हत्या जाली. उपरांत ताचो चलो आलेक्झाण्डर पयलो झार जालो. ताणें रशियेंत साबार शाळा उबारून तशेंच राजकीय विरोधकांची सुटका करून रशियेंत रवूब सुदारणा घडोवन हाडली. पर्शिया, स्विडन आनी ऑटोमन साम्राज्याचेर घुरयो घालून साबार प्रदेश रशियेक जोडले.

जून १८१२ त प्रसिद्द फ्रेंच सम्राट नेपोलियन बॉनापार्त हाणें रशियेचेर घुरी घाली. सुरवेक फ्रेंच सैन्यान रशियेच्या कांय प्रांतांचेर जैत मेळयल्लें. पूण उपरांत रशियन सैन्यान आपणायल्ल्या आपनाशक (Scorchearth policy) झूज पद्दतीक लागून तशेंच रशियेंतल्या कडक शिंयाळयाक लागून नेपोलियनाक फाटीं सरचें पडलें. त्या झुजांत सुमार पांच लाख फ्रेंच सैनिकांक मरण आयलें अशें म्हण्टात. श्रेश्ठ नेपोलियनाचेर हार घाल्ल्यान, देशांतल्या श्रेश्ठ राश्ट्रांभितर रशियेन आपली सुवात घट्ट केली.

आलेक्झाण्डरान सुरवेच्या काळांत रशियेंत कांय सुदारणा घडोवन हाडिल्ल्यो. पूण झाराची निश्ठूर सत्ता चालूच उरली. हाका लागून ताच्या तेंपार कांय उठाव जाल्ले. १८२५ त आलेक्झाण्डराक मरण आयले उपरांत, ताचो चलो निकोलास पयलो झार जालो. ताच्या तेंपार वरिश्ठ घराण्यांतल्या कांय तरणाट्यांनी भूंयगत पंगड करून झार सत्तेआड सॅंट पिटर्सबर्ग शारांत उठाव केलो. झार सैन्यान तो मोडून उडयलो. पूण निकोलसान त्या उठावाचो रवूब धाक घेवन, ताणें सरकारी वरिश्ठ पदांचेर अशिल्ल्या उमराव लोकांक काडून उडोवन तांचे सुवातेर लश्करी अधिकाऱ्यांक नेमले. शिक्षण आनी पत्रकार वेवसायाचेर आपलो ताबो दवरलो. तशेंच, वेगवेगळया संस्थांचेर आनी संघटणांचेरूय बंदी घाली. ताणें रवाशेलीं स सरकारी क्षेत्रां उबारून अर्थीक आनी राजकीय वेवस्थांचेर कडक नियंत्रण दवरलें. सादारणपणान निकोलसान निश्ठूरपणान सत्ता चलयली. पूण ताच्या तेंपार साहित्यिक मळार रवूब उदरगत जाली. तशेंच अर्थीक क्षेत्रांतूय थोडीभोव उदरगत जाली.

१८५३ त रशिया आनी ऑटोमन साम्राज्यांभितर क्रिमीयन झूज सुरू जालें. ऑटोमन साम्राज्याक ब्रिटन आनी फ्रांसांचो तेंको आशिल्लो. हाका लागून १८५६ त रशियेचेर हार पडली. क्रिमीयन झूज चालू आसतनाच निकोलस हाका मरण आयलें. उपरांत ताचो चलो आलेक्झाण्डर दुसरो झार जालो. क्रिमीयन झुजा उपरांत रशियेन आपली मोरव उदेंत आशियेंत दवरली. आलेक्झाण्डर दुसरो झार जाले उपरांत ताणें आर्थिक वेवस्थेंत आनी भौशीक जिणेंत उदरगत घडोवन हाडचेरवातीर कांय येवजणो आंखल्यो. ताणें जमीनदारांच्या चपक्यांतल्यान शेतकामत्यांची सुटका करून जमनीचें वांटप केलें. तशेंच, रेल्वे आनी बँकींग क्षेत्रांत उदरगत घडोवन हाडचेरवातीर रवर पावलां उरवललीं. पूण ताणें आंखिल्ल्या येवजण्यांचो प्रभाव मर्यादितूच उरलो. हाका लागून ताच्या तेंपार देशांत साबार संघटणां तयार जाल्यो. तांणी झाराआड साबार उठाव केले. निमाणेकडेन १८८१ त एका क्रांतीकारी पंगडान केल्लया बाँब हल्ल्यांत सेंट पिटर्सबर्ग शारांत ताका मरण आयलें. उपरांत ताचो चलो आलेक्झाण्डर तिसरो ह्या नांवान रशियेचो झार जालो. पूण ताचे सत्तेचो उमराव लोकांकूच चड लाब मेळ्ळो. जाल्यार शेतकामती आनी कामगारांची स्थिती

आनीक इबाडली. १८९४ त निकोलास दुसरो हो झार जाले उपरांत क्रांतीकारी हालचालींक आनीक नेट आयलो. शिक्षीत मध्यमवर्गीय लोकांनी साबार राजकीय संघटणा उबारिल्ल्यो. तांचेमदल्यो लिबरल कॉंस्टिट्युशनलिस्ट, सोशल रिवोल्यूशनरी आनी मार्क्सिस्ट ह्यो तीन संघटणा म्हत्वाच्यो आशिल्ल्यो. १८९८ त मार्क्सिस्ट संघटणेचें 'रशियन सोशल डॅमोक्रेटीक लॅबर पार्टी अशें नामकरण जालें. १९०३ त लॅबर पार्टीचे बोल्शेवीक आनी मॅन्शेवीक अशे दोन वांटे जाले. १८९९ ते १९०४ ह्या तेंपार भौशीक स्थिती आनीक इबाडली. हाका लागून रशियेंत संप आनी बंड हीं त्या तेंपार एक सदांचीच बाब जावन आसली. हाचो परिणाम म्हळयार १९०५ रशियेंत व्हड क्रांती जाली. त्या वेळार राज्य सैन्यान क्रांतीकारांचेर केल्ल्या फारपेटांत खूब लोकांक मरण आयलें, जाल्यार साबार लोक जखमी जाले. उपरांत फेब्रुवारी म्हयन्यांत निकोलासान आपल्याक सल्लो दिवंचेरवातीर वेंचून काडिल्ल्या वांगड्यांची संसद उबारपाची घोशणा केली. तिका ड्युमा अशें म्हण्टाले. उपरांत १९०५ ते १९१७ मेरेन अशो तीन ड्युमा भरल्यो. पूण हट्टी निकोलास आनी वरिश्ठ सैनिक अधिकाऱ्यां मुखार ड्युमा वांगड्यांचें कांयच शाणेपण चलना जालें. त्या काळांत रशियेंत ल्हान-व्हड उठाव जायत रावले. १९१४त पयलें म्हाझूज सुरू जालें तेन्ना रशिया, फ्रांस आनी ग्रेट ब्रिटना वटेन झगडटाली. पूण रशियन सैनिकांक फावो तें प्रशिक्षण मेळूंक नाशिल्ल्यान ऑस्ट्रिया आनी जर्मन सैन्यान तांचेर वचत थंय हार घाली. झुजाचेर व्हड खर्च जायत राविल्ल्यान रशियेची अर्थीक स्थिती आनीक इबाडली. दीसपट्ट्या गरजेच्या वस्तूंचें उणेपण दिसानदीस वाडत रावलें. हाका लागून रशियेंतले शिक्षीत तशेंच अशिक्षीत लोक झार सत्तेक विरोध करपाक लागले. मार्च १९१७ त रशियन लोकांनी झाराआड व्हड हिंसक उठाव केलो. चडशे कामगार लोक संपार गेले. निकोलासान ड्युमा बरखास्त करपाचो हुकूम सोडलो. पूण ताचे कडेन दुर्लक्ष करून ड्युमान आपलो वावर चालूच दवरलो. अशे रितीन सगळो राजकीय तेंको पयस जाल्ल्यान निकोलासान १५ मार्चा दिसा राजिनामो दिलो. उपरांत निकोलास आनी ताच्या घरच्यांक बंदखणींत दवरलीं. मार्च क्रांती उपरांत रशियेंत साबार समिती (Soviets) उबारल्यो आनी प्रांतीक सरकारांचीय स्थापणूक जाली. उपरांत सत्ता मेळोवचेरवातीर कामगार आनी फौजी हांचेमदीं सर्त सुरू जाली. त्या वेळार पुराय रशियेंतली परिस्थिती उग्र आशिल्ली. अशे स्थितींत ७ नोव्हेंबर १९१७ दिसा बोल्शेवीक पक्षाच्यां फुडारपणारवाला कामगार, सैनीक आनी तारवट्यांनी 'विंटर पॅलस' ह्या प्रांतीक सरकाराच्या केंद्राचेर ताबो मेळयलो. उपरांत तांणी प्रांतीक सरकार मोडून उडोवन लॅनीनाच्या फुडारपणारवाला नव्या सरकाराची स्थापणूक केली. नव्या सरकारान बेगोबेग रशियेक पयल्या म्हाझुजांतल्यान भायर काडली. तेचपरी सगळे उद्येगधंदे आनी शेतकी जमनीचें राश्ट्रियीकरण केलें. १९१८त बॉल्शॅवीक पक्षान मॉस्को शारांत आपली राजधानी हालयली. तांणी आपल्या पक्षाचें 'रशियन सोशल डॅमोक्रेटीक लेबर पार्टी' हें नांव काडून 'रशियन कम्युनिस्ट पार्टी' हें नवें नांव दवरलें. १९१८ ते १९२०त कम्युनिस्ट आनी अँटी - कम्युनिस्ट हांचेमदीं यादवी झूज सुरू जालें. अँटी- कम्युनिस्टांक फ्रांस, ब्रिटन, जपान आनी अमेरिकेचो तेंको आसतना लेगीत कम्युनिस्टांनी तांचेर हार घाली. इतलेंच न्हय जाल्यार जॉर्जिया, युक्रेन, उदेंत आर्मेनिया, बॅलारूस आनी मध्य आशियेंतूय तांणी कम्युनिस्ट राजवट स्थापीत केली. शेतकी जमनीचें आनी उद्येगधंद्याचें राश्ट्रियीकरण केल्ल्यान १९२१त साबार शेतकामत्यांनी आनी कामगारांनी उठाव वा संप केले. हाका लागून रशियेची अर्थीक आनी भौशीक स्थिती घट्ट करपारवातीर लॅनीनान रशियेंत नवी अर्थीक पद्दत सुरू केली. हे येवजणेरवाला ताणें बँकींग, परकी वेपार, व्हड उद्येग धंदे आनी येरादारी हांचेर सरकाराची मालकी दवरली.

डिसेंबर १९२२ त कम्युनिस्ट सरकारान 'युनियन ऑफ सोव्हिएत सोशलिस्ट रिपब्लीक' ह्या नांवारवाला नव्या राश्ट्राची स्थापणूक केली. तातूंत रशियन सोव्हिएत फॅडरॅटीव सोशलिस्ट रिपब्लीक, बॅलोरशिया (बॅलारूस), ट्रांस्कॉकेसीया आनी युक्रेन हांचो आस्पाव आशिल्लो. १९४० त ट्रांस्कॉकेसीयेचे आझरबायझान, आर्मेनिया, आनी जॉर्जिया अशे वांटे केले. उपरांत आनीक धा गणराज्यांची स्थापणूक केली. तीं धा गणराज्यां सध्या इस्टोनिया, कझाखस्तान, खिर्गीस्थान, लात्विया, लिथुआनिया, मोलडोवा, ताजिकीस्तान, तुर्कमेनिस्तान आनी उझ्बेकिस्तान ह्या नांवांनी प्रसिद्द आसात.

१९२४ त लॅनीनाक मरण आयलें. उपरांत, १९२२ वर्सा सावन कम्युनिस्ट पक्षाचो जनरल सॅक्रेटरी म्हणून वावुरपी जोसॅफ स्टालीन सत्ताधीश जालो. ताणें आपल्या विरोधकांचेर एका फाटल्यान एक अशी हार घालून १९२९ मेरेन तो सोव्हिएत युनियनाचो हुकूमशाह जालो. ताणें शेतकी जमनीचें आनी उद्येग धंद्यांचें व्हडा प्रमाणांत राश्ट्रियीकरण करपाक सुरवात केली. आपल्याक जावपी विरोध मोडून उडोवंचेरवातीर ताणें खाशेलें पुलीस दळ उबारिलें. आपले येवजणेक विरोध करतल्यांक तो भयांकृत ख्यास्त दितालो. हजारांनी लोकांक ताणें बंदखणींत दवरिल्ले वा तडीपार केल्ले. हाका लागून ताच्या काळाक 'तिख्या सत्तेचो काळ' (Rule Of Iron) अशें म्हण्टात. दुसऱ्या म्हाझुजांत रशिया पयल्या झुजाप्रमाण ग्रेट ब्रिटन, फ्रांस आनी अमेरिकेच्या पंगडाक मेळून जर्मनी आनी जपान ह्या राश्ट्रांआड झुजतालो. सुरवेच्या तेंपार जर्मन सैन्यांन रशिया सैन्याचेर साबार कडेन हार घाली. पूण १९४३ त स्टालिनग्राडच्या झुजांत जर्मन सैन्यांक परतावपाक रशियेक येस मेळळें. मुखार एप्रिल १९४५ त रशियेन बर्लिन शाराचेर घुरी घालून तें आपल्या शेकातळा दवरलें. जर्मनीन शरणांगती आपणायले उपरांत रशियेन जपानाआड

झूज उबारलें. दुसरें म्हाझूज काबार जाले उपरांत रशियेन हेर उदेंत युरोपी राश्ट्रांनी कम्युनिस्ट राजवट पातळावपाचो वावर नेटान सुरू केलो. १९४८ मेरेन जायते देश सोव्हिएत युनियनाचे अंकीत देश जाले. तातूंत बल्गेरिया, झॅकोस्लोवाकिया, हंगेरी, पोलंड, रोमानिया आनी उपरांत उदेंत जर्मनीचो आस्पाव जातालो. दुसरे वटेन अमेरिका युरोपांत आनी हेरकडेन लोकशाय राखून दवरपाक वावुरताली. अशे रितीन सोव्हिएत युनियनाच्या फुडारपणारवाला कम्युनिस्ट राश्ट्रांभितर आनी अमेरिकेच्या शेकातळा लोकशायी राश्ट्रांभितर शीत झूज सुरू जालें. दोनूय पंगडांभितर नवीं नवीं आयुधां करपाची सर्त सुरू जाली. तें शीत झूज उपरांत १९८० च्या सुमाराक मेरेन चालूच आशिल्लें.

स्टालीनाक ५ मार्च १९५३ त मरण आयलें. उपरांत सप्टेंबरांत निकीता क्रुश्चेव कम्युनिस्ट पक्षाचो मुखेली जालो. १९५८त तो सोव्हिएत युनियनाचो अध्यक्ष जालो. स्टालीनान पातळायल्लो आकांतवाद क्रुश्चेवान पयस केलो. तशेंच ताणें साबार कैद्यांक मुक्त करून वेपार, संचारण हांचेयवयलीं खुबशीं बंधनां काडून उडयलीं. ताणें कम्युनिस्ट प्रणाली हेर देशांनी पातळावपाचो वावर चालूच दवरलो. तशेंच, ताणें उदेंत आनी अस्तंती युरोपीय देशांमदले संबंद सुदारपाचे खूब यत्न केले. पूण ताका येस मेळ्ळेंना. १९६४त कम्युनिस्ट अधिकाऱ्यांनी क्रुश्चेवाक सत्तेभायरो करून लिओनीद ब्रेझनेव हाका कम्युनिस्ट पक्षाचो मुखेली केलो, जाल्यार आलेक्सी कोसिजीन सोव्हिएत युनियनाचो अध्यक्ष जालो. ब्रेझनेव आनी कोसिजीन हांणी गरजेच्या वस्तूंच्या उत्पादनांत वाड करून गरिबांखातीर खूब घरां बांदलीं. तशेंच सोविएताचो प्रभाव आफ्रिकेच्या देशांनी पातळावपाक सुरवात केली. १९७५ मेरेन ब्रेझनेव हो सोव्हिएताचो बळिश्ट फुडारी जालो. ताका अस्तंत आनी उदेंत देशांमदले संबंद सुदारपाक कांय प्रमाणांत येस मेळ्ळें. पूण १९८० च्या सुमाराक मनीसहक्क वादावयल्यान, सोव्हिएताचें अफघान आक्रमण आनी परमाणू शस्त्रांनी केल्ले वाडीक लागून सोव्हिएत युनियनाचे आनी अमेरिकेचे संबंद आनीक इबाडले.

सोव्हिएत युनियन आनी अमेरिका हांचेमदीं तणावाची परिस्थिती निर्माण जाल्ली आसतनाच १९८५ त मिखायल गोर्बाशॉव कम्युनिस्ट पक्षाचो अध्यक्ष जालो. ताणें राजकारणांत, साहित्य, कला आनी हेर क्षेत्रांनीय आपले विचार मांडपाक रशियन लोकांक मेकळीक दिली. सत्तेर येनाफुडेंच तो सोव्हिएत आनी अस्तंती देशांमदले संबंद सुदारपाच्या वावराक लागलो. तशेंच, सोव्हिएत अर्थीक वेवस्थेचेर घाल्लीं साबार नियंत्रणां पयस करपाक ताका येस मेळ्ळें. १९८९त काँग्रेस प्रतिनिधी मंडळाचे वांगडी वेंचून काडचेखातीर सोव्हिएत युनियनांत पयलेच खेपे वेंचणूक घेतली. उपरांत अ - कम्युनिस्ट पक्षांकूय वेंचणुकेंत वांटो घेवपाक दिल्ल्यान कम्युनिस्ट पक्षाच्या वरिश्ठ अधिकाऱ्यांनी गोर्बाशॉवाक खर विरोध केलो. तरीय १९९० त जाल्ले वेंचणुकेंत काँग्रेसीच्या वांगड्यांनी गोर्बाशॉवाक सोव्हिएताचो अध्यक्ष म्हणून वेंचून काडलो. १९८० सावन सोव्हिएत युनियनाच्या कांय गणराज्यांनी केंद्र सरकाराकडेन स्वशासनाची मागणी केल्ली. हाका लागून १९९१ त गोर्बाशॉव आनी हेर धा गणराज्यांचे फुडारी एकठांय येवन तांणी गणराज्यांक स्वशासनाची मेकळीक मेळची म्हूण कबलात घडोवन हाडपाचें मान्य केलें. हाका लागून १९ ऑगस्ट, १९९१ दिसा कम्युनिस्ट पक्षाच्या अधिकाऱ्यांनी गोर्बाशॉवाआड उठाव करून ताका बंदखणींत घालो. ह्या उठावाक बोरीस यॅल्त्सीनान खर विरोध केलो. उठावा उपरांत गोर्बाशॉव परत सत्तेर आयलो. पूण कम्युनिस्ट पक्षाचो अध्यक्ष म्हणून ताणें राजिनामो दिलो. त्या उठावा उपरांत सोव्हिएताच्या लोकांनी आपल्याक चड स्वातंत्र्य मेळचें अशी मागणी केल्ली. सप्टेंबर १९९१ त काँग्रेसीच्या शिश्टमंडळान गणराज्यांभितर नवी युती आनी नवें संविधान जायमेरेन अंतरीम सरकार स्थापीत केलें. ८ डिसेंबर १९९१ दिसा यॅल्त्सीन तशेंच बॅलारूस आनी युक्रेनचो अध्यक्ष एकठांय येवन तांणी स्वतंत्र राज्यांच्या राष्ट्रकुलाची घोशणा केली. तेचपरी तांणी सोव्हिएत युनियनाचो अखेर घोशीत करून हेर गणराज्यांकूय राष्ट्रकुलांत येवपाक आमंत्रीत केले. जॉर्जिया तशेंच इस्टोनिया, लाटविया आनी लिथुआनिया हीं बाल्टीक राज्यां सोडून हेर स्वतंत्र गणराज्यां राखणे वेवस्था आनी अर्थीक संबंदांविशीं राष्ट्रकुलाक मेळ्ळीं. अशे रितीन यॅल्त्सीनान सोव्हिएताच्या केंद्र सरकाराचेर ताबो मेळयले उपरांत २५ डिसेंबर, १९९१ दिसा गोर्बाशॉवान आपल्या अध्यक्षपदाचो राजिनामो दिलो.

रशियन राज्यांची नव्यान स्थापणूक जाले उपरांत नव्या सरकाराची उबारणी करपाक आनी अर्थीक स्थिती जाग्यार घालपाखातीर रशियेक नव्यो येवजण्यो आंखच्यो पडल्यो. दरेचेर आशिल्लो सरकारी निर्बंध काडिल्ल्यान म्हारगाय खूब वाडली आनी रशियन लोकांचो राहणीमानाचो दर्जो खूब सकयल देंवलो. राष्ट्रकुलांतल्या वांगड्यांकडेन नवे संबंद जुळोवन तांचेर आपलो शेक कसो दवरप होय खूब कठीण प्रस्न रशिये मुखार उबो रावलो. सोव्हिएत युनियनाचें विभाजन जाले उपरांत अस्तंत आनी उदेंत देशांभितरले खूबशे तणाव पयस जाले.

**राज्यवेवस्था :** सोव्हिएत युनियनाचें डिसेंबर १९९१ त विभाजन जावंचे पयलीं थंय कम्युनिस्ट राजवट चलताली. १९१७ ते १९९१ मेरेन कम्युनिस्ट हो सोव्हिएताचो एकमेव पक्ष आशिल्लो. सगळ्या क्षेत्रांनी मुखेलपणान ताचोच शेक आशिल्लो. १९९१ त बोरीस यॅल्त्सीन सोव्हिएत युनियनाचो अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. त्याच वर्सा सोव्हिएत युनियनाचे कुडके जाले उपरांत बोरीस यॅल्त्सीनच रशियेचो अध्यक्ष म्हणून राज्य कारभार चलोवपाक लागलो. पूण सुरवेच्या काळांत थंयची राजकीय स्थिती अस्थिरूच आशिल्ली. अर्थीक

आनी सरकारी क्षेत्रांनी सुदारणा घडोवन हाडचे पासत यॅल्त्सीनान साबार नव्यो येवजण्यो आंखल्यो. पूण त्या येवजणांक आदले कम्युनिस्ट आनी हेर अधिकारी खरपणान विरोध करपाक लागले.

अध्यक्ष हो रशिया गणराज्याचो मुखेली म्हूण जाल्यार प्रधानमंत्री हो राज्यवेवस्थेचो मुखेली म्हूण वावुरता. प्रधानमंत्र्याक सल्लो दिवपाक कांय वेंचीक मंत्र्यांचें कॅबिनेट आसता. ताका काउन्सिल ऑफ मिनिस्टर्स अशें म्हण्टात, रशियेचे संसदेक 'काँग्रेस ऑफ पिपल्स डेप्युटिस' अशें म्हण्टात. तातूंत १,००० वयर वांगडी आसतात. तें विधिमंडळांतलें सगळयांत श्रेश्ठ मंडळ. सुप्रीम सोव्हिएत ह्या मंडळाकय कांय खाशेले कायदे करपाचो हक्क आसा. सुप्रीम सोव्हिएत हें 'काउन्सिल ऑफ फॅडरेशन' आनी 'काउन्सिल ऑफ नॅशनलिस्ट' अशें दोन घरांनी विभागिल्लें आसा. सुप्रीम काउन्सिलाचे वांगडी हे काँग्रेस वांगड्यांमदलेच वेंचून काडटात.

देशांतलो राज्यकारभार वेवस्थीत चलचो म्हणून रशियेचे ४९ प्रांत केल्ले आसात. तांकां रशियन भाशेंत 'ओब्लास्ट' अशें म्हण्टात. तशेंच ६ व्हडले वांटे केल्लें आसात, ताका 'क्रॅस' म्हण्टात. तशेंच, नागरिकत्वां प्रमाण वांटे केल्ले हेर सुमार ३० स्वशासनी प्रदेशय थंय आसात. देशांतले पुराय राज्यवेवस्थेंत थिराय हाडचेखातीर काँग्रेसीन १९९१त यॅल्त्सीनाक कांय खाशेले हक्क दिल्ले. त्या हक्कांचो उपेग करून यॅल्त्सीनान साबार थळाव्या अधिकाऱ्यांक काडून उडोवन, तांचे सुवातेर नवे अध्यक्ष नेमले. तशेंच, ताणें आखिल्ले नवे अर्थीक येवजणेक कसलीच बादा येवंची न्हय हेपासत ताणें प्रदेशीक वेंचणुकोय फुडें धुकल्ल्यो.

रशियेंत कम्युनिस्टांची राजवट चलताली तेन्ना सोव्हिएत सरकाराची केजीबी नांवाची एक खाशेली राजकीय पुलीस पद्दत आशिल्ली. मनशाचे जिणेंत तशेंच कायद्यांत हस्तक्षेप करपाचे कांय खाशेले हक्क सोविएत सरकारान ते संस्थेक दिल्ले. पूण सोव्हिएत युनियनाचे कूडके जाले उपरांत केजीबी संस्थेचोय अंत जालो. सध्या रशियन लोकांचें स्वातंत्र्य आनी हक्क राखून दवरपाखातीर रशियन सरकारान कांय खाशेले कायदे केल्यात. प्रोक्युरेटर जनरल ह्या मुखेल रशियन कायद्यासंबंदीत अधिकाऱ्याची काँग्रेसीच्या सल्ल्यान अध्यक्ष नेमणूक करता. संविधानीक न्यायालय ह्या रशियेंतल्या मुखेल न्यायालयाची स्थापणूक १९९२ त जाली. थळाव्या न्यायालयांक पिपल्स कोर्ट अशें म्हण्टात. तांचे न्यायाधीश भोवमतान पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात. न्यायवेवस्थेंत सुदारणा घडोवन हाडचेखातीर रशियन सरकारान न्याय आयोगाचीय स्थापणूक केल्या.

**राखणेवेवस्था :** सोव्हिएत युनियनाची फौज ही संवसारांतली सगळयांत व्हडली फौज आशिल्ली. पांयदळ, नाविक दळ आनी हवाई दळांत मेळून सुमार चाळीस लाख सोव्हिएत युनियनाचे लोक वावुरताले. अठरा वर्सां जाल्ल्या दादल्यांक उण्यांत उणें दोन वर्सांखातीर तरी सैन्यांत भरती जावंचें पडटालें. पूण सोव्हिएत युनियनाचे कुडके जाले उपरांत सोव्हिएत फौजेचो ताबो स्वतंत्र गणराज्यांच्या राष्ट्रकुलाकडेन गेलो. सोव्हिएत युनियनासावन वेगळया जाल्ल्या राश्ट्रांनी सद्या आपआपली फौज उबारपाचो दावो केला. ते प्रमाण १९९२ वर्साच्यान रशियेन आदल्या सोविएताचें कांय सैन्य दवरून तो आपलें नवें सैन्य उबारपाचे तयारेक लागला. त्याच वर्सा बेलारस, खजाकस्तान तशेंच युक्रेन ह्या गणराज्यांनी आपआपल्या राज्यांत आशिल्लीं सोव्हिएताचीं प्रमाणू हत्यारां इबाडून उडोवपाचो, ना जाल्यार सात वर्सांभितर रशियेचे स्वाधीन करपाची रशियेकडेन कबलात केल्या.

**अर्थीक स्थिती :** सोव्हिएत युनियनाच्या तेंपार अर्थीक वेवस्थेचेर रशियेचें कडक नियंत्रण आशिल्लें. ल्हान-व्हड उद्देग धंदे तशेंच शेतकी जमनीचेरूय सरकाराचीच मालकी आशिल्ली. खाजगी वेवसायाक बंदी आशिल्ली. कम्युनिस्ट अधिकाऱ्यांनी नव्यो येवजणो आंखून रशियेचो उद्देगीक राश्ट्रांभितर आस्पाव केलो. दर एकल्याक काम आनी राश्ट्राचो विकास घडोवन हाडचेखातीर कम्युनिस्ट पक्षान पांचवर्सुकी येवजणो चालीक लायल्यो. दर एके येवजणेंत एका खाशेल्या उद्दिश्टांचेर भर दिल्लो. कम्युनिस्ट सरकार दर एका कारखान्याक कच्च्या म्हालाची पुरवण करून, तांच्या मॅनेजरांक दर म्हयन्यांक कितलें उत्पादन करचें आनी तें कोणाक विकचें हाची पुराय म्हायती दिताले. तशेंच, शेतकी जमनीचेय ल्हान - व्हड वांटे करून ते थरावीक पंगडाचे सुवादीन केल्ले. त्या पंगडांक कम्यून म्हण्टाले. सादारणपणान शेतकामत्यांचीं धा - बारा कुटुंबां एकठांय येवन एक कम्यून तयार जातालें. पूण ही पद्दत अपेशी थरिल्ल्यान फुडें तिचे कोलखोज आनी सोव्हखोज अशे दोन भाग केले. कोलखोज हे पद्दतींत शेतकी जमीन सामुदायिक मालकिची आसताली आनी ती सामुदायीकपणानूच कसताले. सोव्हखोज हातूंत पुराय जमीन सरकाराचे मालकीची आसून, तातूंत वावुरतल्याक म्हयनाळें वेतन मेळटालें. पूण १९९२त नव्या रशियन सरकारान कांय जमनीचें खाजगीकरण सुरू केलें.

सोव्हिएत युनियनाचें विभाजन जाले उपरांत रशियेची अर्थीक स्थिती साप्प इबाडिल्ली. कारखान्यांतलें उत्पादन घटत रावून, म्हारगाय खूब वाडली. नव्या रशियन सरकारान अर्थवेवस्था जाग्यार हाडचेखातीर अमेरिका, तशेंच हेर अंस्तंती देशांचो आनी जपानाचो आदार घेतला.

बार्ली, फ्लेक्स, भाजीपालो, फळफळावळ, ओट, बटाट, राय, शुगर बीट, सुर्यफूल आनी गंव हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. हेर देशांपरस रशियेंत कडुणां चड पिकतात. पशूधनाच्या मळारूय हो देश समृध्द आसून गोरवां, मेंढरां आनी दुकर हीं तांचेमदलीं मुखेल.

खनीज संपत्तीच्या मळार हो देश गिरेस्त आसा. थंय फातरी कोळसो, अशुध्द खनीज तेल, सैमीक वायू, लोहधातू, मँगॅनीज, तांबें, शिशें, जस्त, निकॅल, बॉक्सायट्, टंगस्टन, पारो, अभ्रक, पोटॅश सॉल्ट हांचे सांठे हेर देशांपरस चड आसात. तशेंच, फॉस्फेट, टिटॅनियम, मॉलिब्डेनम, युरेनियम आनी गंधक हांचेय व्हड सांठे थंय आसात.

देशाक व्हड दर्यादेग लाबिल्ली आसून, व्हड यांत्रिकी बोटींच्या आदारान नुस्तें मारप जाता. देशाच्या उत्तरेकडच्या बॅरंट दर्या आनी वायट दर्यांत कॉड, हॅडोक्, हॅरींग आनी सालमॉन उपगणांतलें नुस्तें खूब मेळटा, जाल्यार स्टर्जन जातीचें नुस्तें कॅस्पीयन दर्यांत चड प्रमाणांत मेळटा. पॅसिफीक, ॲटलांटीक, बाल्टीक आनी काळया दर्यांतूय व्हड प्रमाणांत नुस्तेमारी चलता.

अमेरिके फाटल्यान रशियेचो उद्देगीक क्षेत्र म्हणून उल्लेख जाता. मॉस्को हें देशांतलें मुखेल उद्देगीक क्षेत्र. सेंट पिटर, वॉल्गा न्हंयेचे देगेर आनी उराल पर्वताचेरूय देशांतले व्हड कारखाने आसात. वेगवेगळीं रसायनां, सारें, पॅट्रोकॅमिकल्स, प्लास्टीक, सोडा ॲश आनी कृत्रीम रेझीन उत्पादनांखातीर रशियेची नामना आसा.

सुरवेक सोव्हिएत युनियनाचे वेपारी संबंद मुखेलपणान बल्गेरीया, झॅकोस्लावाकिया, हंगेरी आनी पोलंड ह्या कम्युनिस्ट देशांकडेनूच आशिल्ले. पूण कम्युनिस्टांचो शेक काबार जाले उपरांत रशियेन ह्या देशांकडेन आपले वेपारी संबंद तशेच दवरून हेर देशांकडेनूय वेपारी संबंद प्रस्थापीत केल्यात. भारत आनी रशिया हांचे भितरले वेपारी संबंदूय बरे आसात.

**येरादारी आनी संचारण :** देशाचो व्हड आवाठ आनी थंयचो कडक शिंयाळो हांकां लागून देशाची येरादारी आनी संचारण वेवस्था कांय खाशेल्या भागांतूच विकसीत जाल्ली आसा. देशांतली येरादारी मुखेलपणान रेल्वे मार्ग आनी रस्ते हांच्या माध्यमांतल्यान जाता. हांगाच्यो न्हंयो वर्साचे चडशे म्हयने गोठील्ले स्थितींतूच आशिल्ल्यान, न्हंयांतल्यानूय येरादारी उण्या प्रमाणांत जाता. आरखँगेल्स, कॅलिनंग्रॅड, मुरमांस्क, नारवोडका, सेंट पिटर्सबर्ग आनी व्लादिवॉस्तॉक हीं देशांतलीं मुखेल बंदरां. ॲरोफ्लोट हे संस्थेवरवीं देशाभितरली आनी आंतरराष्ट्रीय हवाई येरादारी चलता. ॲरोफ्लीट ही विमान येरादारी संस्था संवसारांतली सगळयांत व्हड.

**लोक आनी समाजजीण :** रशियन समाज हो वेगवेगळया वंशीक गटांसावन तयार जाला. तातुंतले रशियन, युक्रेनियन, बेलोरशियन, पोलंडी, उझबॅक, कझाक, तार्तार, आझरबैजानी, आर्मेनियन, जॉर्जियन, मॉल्डेवियी, ताजीक, लिथ्युआनीयन, तुर्कमेनी, जर्मन, खिरगीझ, ज्यू, लाटवीयन, बश्कीर आनी ॲस्टोनीयन हे वंशीक गट मुखेल. सोव्हिएत युनियनाचे कूडके जावन बेलोरशिया, युक्रेन, आर्मेनिया आनी हेर राज्यां वेगळीं जाल्लीं आसलीं तरी ह्या वंशगटांतले खूब लोक रशियेंत मेळटात. सद्या देशाचे वट्ट लोकसंख्येंत ८३% रशियन लोकांचो आस्पाव जाता. रशियन ऑर्थोडॉक्स इगर्ज हो देशांतलो सगळयांत व्हडलो क्रिस्तांव धर्मसमूह. मुसलमान, प्रॉटॅस्टंट, रोमन कॅथलीक आनी ज्यू धर्माचेय लोक थंय आसात.

शिक्षणीक मळार खूब उदरगत जाल्ली आसा. १९१७चे क्रांतीउपरांत धर्मीक श्रध्दा आनी कल्पना हांचो पुरस्कार करपी शिक्षण वेवस्था बदलून ज्ञानविज्ञानाचेर चड भर दिवप जालें. रशियेंत सगळया पांवड्यांवयलें शिक्षण फुकट आसा. रशियेंत शंबरांपरस चड वेगवेगळे वंशीक समूह आशिल्ल्यान देशांतलें शालेय शिक्षण वट्ट ४६ भाशांनी दिवप जाता. दर एका नागरीकाक आपआपले आवय भाशेंतल्यान शिक्षण घेवपाक मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

## रस (रससिध्दांत)

**रस (रससिध्दांत) :** नाट्य - काव्यांतलें एक प्राणभूत तत्त्व. 'रस्यत इतिरसः' = जाचो आस्वाद (सुवाद) घेता तो रस, अशी ताची व्याख्या आसा. रसनेंद्रियांवरवीं आस्वाद येवपी रस - कोडू, तीख, तोरट, गोड, खारट आनी आंबट अशे आसात. ह्या रसांनी भरिल्ल्या जेवणाक षड्रसभोजन (स रसांनी युक्त जेवण) अशें म्हण्टात. नाटक, कविता ह्या साहित्यांतूय सुवादीकपण ह्या लक्षणांक लेखून कांय रस मानल्यात. श्रृंगार, हास्य, करूण, रौद्र, वीर, भयानक, बीभत्स आनी अद्‌भूत हे आठ मुखेल रस. कांय काव्य शास्त्रज्ञांनी हांची संख्या चड - उणी मानल्या.

भरताचें नाट्यशास्त्र हो रस प्रक्रियेचें स्वरूप सांगपी पयलो ग्रंथ अशें मानतात. पूण भरताचेय पयलीं द्रुहिण आनी वासुकी ह्या दोन आचार्यांच्यो दोन वेगळयो रसपरंपरा आशिल्ल्यो अशें दिसता, भरताचें विवेचन नाटकांत त्या रसामेरेनच शिमीत आसा. भरताचें रससूत्र अशें-

विभावानुभावसञ्चरिसंयोगाद्रस निष्पात्तिः। (ना.शा. ६.३२)

**अर्थ** - विभाव, अनुभाव आनी संचारी भाव हांच्या संयोगांतल्यान रसनिर्मणी जाता. हांगा निर्मणी (निष्पत्ती) ह्या उतराचो अर्थ अभिव्यक्ती, उत्पत्ती, पूर्णताय, वा परिपक्वताय असो आसा. संयोगा (मेळा) खातीर ताणें दृश्टांत दिला, तो असो - 'जे प्रमाण तेल, तिखट (मिरसांगो) मीठ, मसालो हे जिनस घालून तयार केल्ल्या भाजी - कालवण्यान जेवणाक एके तरेची सुरबूससाण (रूच) येता. ते प्रमाण खंयच्याय नाटकांत विभाव, अनुभाव आदी सामग्री एकठांय आयिल्ल्यान रसाची निर्मणी जाता.

काव्यांतलें मुखेल तशेंच कवितेचो जीव म्हळयार रस. उतरांक जें काव्यत्व येता, तें ह्या रसाकलागूनच. जातूंत रस आसा तेंच काव्य, ताचेविणे आशिल्लें काव्य नासून ती काव्याची नकल,

काव्यांत जी गोडी निर्माण जाता ती रसाखातीरच. इंद्रियांनी रसाचें ग्रहण केले उपरांत, ताका लागून तयार जावपी सूख - दुखाच्यो संवेदना मनामेरेन पावतात आनी ते ते संवेदने प्रमाण मनाचेर त्यो त्यो भावना निर्माण जातात. ह्या भावनांच्यो प्रतिक्रिया म्हणून भावनेप्रमाण मनशाच्या मुखामळार तशेंच कुडीच्या हेर आंगांचेर कुरू (भाव) निर्देशीत जाता. खंयचेय कलाकृतीचो रसस्वाद घेतना तो घेवपी मनीस त्या प्रसंगांत समरस जाता आनी परिस्थितीचो कलात्मक अणभव घेवंक पावता. त्या त्या रसाचो भावनीक थरावयल्यान आस्वाद घेवप ताका शक्य जाता. तशें जातकच ताका खरो कलानंद प्राप्त जाता.

अशे तरेचो आनंद काव्यांत वा नाटकांत उत्पन्न जाता, तो मनशाच्या मनाभितर ज्यो किदें खाशेल्यो अशो मनोभावना आसतात, तांची सगळया वटांनी पोसवण केल्ल्यान घडटा. त्या मनोभावनांचें उठावदार चित्र ज्या कव्यांत दिसता, त्या काव्याक वा नाटकाक 'रसयुक्त' अशें म्हण्टात. म्हणून त्या विशिश्ट मनोभावांकूच रस हेंच नांव साहित्यशास्त्रज्ञांनी दिलां. राग येवप, आनंद जावप, हळशिकवाणें दिसप, हे मनाचे धर्म सगळयांकूच अणभवपाक येतात, तांकांच काव्यशास्त्रवेत्त्यांनी भाव वा भावना अशो संज्ञा दिल्यात. ल्हानासावन व्हडांमेरेन सगळयांच्या मनांत ह्यो भावना राबितो करून आसतात आनी चेतना मेळटकूच उदकांत बुडयल्ल्या तेलाच्या थेंब्याप्रमाण त्यो व्हड जावन (फांकारून) मनाचेर ताबो मेळयतात. हास्य (हासो), क्रोध (तिडक), उत्साह (उमेद), शोक (दुख), भंय (भिरांत), किळस (हळशीक), अजाप ह्यो भावना ल्हान भुरग्यांमदीं लेगीत दिश्टी पडटात. व्हड जातकूच लेगीत खिणाखिणाक ह्याच भावनांचो वेगवेगळया रितींनी दर एक मनीस अणभव घेत आसता. ह्यो ज्यो बुन्यादी आनी आपसूक अशो मनशाच्यो अंतरंगांतल्यो भावना आसात, ताचेचवयल्यान काव्यशास्त्रवेत्त्यांनी रस थारायल्यात. ह्या रसाची प्रक्रिया सांगतना कांय परिभाशीक संज्ञा दिल्यात त्यो अशो - (१) स्थायी भाव : स्थायी भाव म्हळयार कायम तिगपी भाव वा धर्म. मनशाच्या मनांतले हांसो, दुख, खंत हे जे बुन्यादी आनी आपसूक भाव आसतात तांकां स्थायी भाव ही संज्ञा वापरतात. हे स्थायी भाव रती, हास्य, शोक, क्रोध, उत्साह, भंय, जुगुप्सा वा किळस आनी विस्मय अशे आठ आसून, हांचेर आदारूनच श्रृंगार, हास्य, करूण, रौद्र, वीर, भयानक, बिभत्स आनी अद्‌भूत अशे आठ रस मानल्यात. तर शांत रसाचो स्थायी भाव अभावात्मक मानला, कित्याक तर हातूंत कसलेय तरेची संवेदना दिसना.

(२) विभाव : वासनेच्या रुपान मनांत आशिल्ल्या स्थायी भावांक सुवादीक करून रस पदवेक पावोवपी ते विभाव.

(३) अनुभाव : स्थायी भावांचो अणभव दाखोवपी म्हळयार कुडीचेर परिणाम दाखोवपी ते अनुभाव.

(४) व्यभिचारी भाव : स्थायी भावांचो परिपोश करून ताका सगळयाक (काव्यांत) संचार करपाक तयार करपी भावांक व्यभिचारी भाव अशें म्हण्टात.

रसांचें स्पश्टीकरण अशें - (१) श्रृंगाररस : हो सगळया रसांचो राजा. रती म्हळयार दादल्याक बायलेविशीं आनी बायलेक दादल्याविशीं दिसपी कामूक ओड, ही भावना ह्या रसांत सुरवेक सावन अखेर मेरेन मुखेलपणान आसता. श्रृंगाररसाचे दोन प्रकार आसात. एक संभोगश्रृंगार आनी दोन विप्रलंभश्रृंगार : 'अभिज्ञान शाकुंतलांतलें दुष्यंत शकुंतलेचें मिलन हो संभोगश्रृंगार जाल्यार गीत गोविंदांतल्या राधाकृष्णाच्या श्रृंगाराच्या वर्णनाक विप्रलंभश्रृंगार म्हण्टात. हाचे वयल्यान मोगी जिवांचें मिलन घडटा तो संभोगश्रृंगार जाल्यार हाचे उरफाटें दोनूय जिवांक मेळपाची ओड आसता पूण मेळप शक्य जायना, हातुंतल्यान जो श्रृंगार रूप घेता तो विप्रलंभश्रृंगार,

(२) हास्य : हांसो निर्माण करपी रस. मागीर ताका कारणां खयंचींय आसू येतात. जाका लागून हांसो निर्माण जाता ती व्यक्ती वा कृती म्हत्वाची थरता.

(३) करूणरस : भोव आवडपी वा लागशिल्ल्या मनशाचें मरण वा बऱ्याच तेंपामेरेन वियोग, केन्नाय बरें जावंक शकना अशा दुयेंसाक लागून कुडीक जावपी पिडा, संपत्तीचो नाश ह्या कारणांक लागून ह्या रसाची निर्मणी जाता. शोक होच ह्या रसाचो स्थायीभाव आसता.

(४) रौद्ररस : राग हो ह्या रसाचो स्थायीभाव. सुडाचे, बदल्याचे भावनेन भरिल्ली आनी राक्षसी वृत्तीची कृती हे रौद्ररसाचे विशय जातात.

(५) वीररस : उत्साह, उमेद, नेट, उर्बा हे ह्या रसाचे स्थायीभाव.

(६) भयानकरस : भंय, भिरांत होच ह्या रसाचो स्थायीभाव.

(७) बीभत्सरस : हळशीक दिसप, पोजडेपण दिसप हो ह्या रसाचो स्थायीभाव.

(८) अद्‌भूतरस : विस्मय म्हळयार अजाप, हो ह्या रसाचो स्थायीभाव.

रसाचो सुवाद घेवप हो एक अणभव वा भावप्रतीती. ही प्रतीती लोकीक अशा प्रत्यक्ष, अनुमान ह्या प्रतीतीसावन वेगळी आसता. रस अणभवपाखातीर, रसिकाक एके खाशेले पातळेवयल्यान काव्याची गोडी चाखची लागता. खंयचेय गजालीक वा कारणाक लागून ती पातळी सुटली म्हणटकच रस ना जाता वा उणो जाता. ही पातळी सुटपाक कारण थरपी गजालींक अनुभवगुणान रसविघ्नां म्हळयांत. संभावनाविरह, स्वपरगत देशकाल विशेशावेश, निजसुखादिविवशीभाव, प्रतीत्युपायवैकल्य, स्फुटत्वाभाव, अप्रधानता आनी संशययोग ही सात रसविघ्नां आसात.

जरी आठ रसांक मुखेल मानल्यात तरी हो आंकडो उणो अदीक जाता. काय जाणांनी एकूच रस मानला, जाल्यार कांय जाणांनी जितले भाव तितले रस अशें म्हळां. भोज, भवभूती, मधुसूदन

विश्वनाथ हे एकूच रस मानतात जाल्यार साहित्यशास्त्रज्ञ रुद्रट भाव तितले रस ह्या मताचे आसात. भरतान आठ रस मानल्यात जाल्यार उद्‌भटान 'शांत' ह्या णवव्या रसाची तातूंत भर घाल्या. मधुसूदन सरस्वतीन धावो रस म्हणून भक्ती कडेन बोट दाखयलां. क्रांती, प्रक्षोभ, देशभक्ती हेय रसूच अशें कांय नवे साहित्यशास्त्रकार हालींकडेन मानूंक लागल्यात. धनीक, धनंजय, मम्मट, रामचंद्र गुणचंद्र, कर्णपूर, तशेंच भट्टनायकान विशयानंद, ब्रह्मानंद आनी रसांनद हे आनंदाचे तीन प्रकार सांगल्यात. रस होच काव्याचो आत्मो, म्हळयार मुखेल प्राणवत तत्त्व, अशें प्रतिपादन करपी जें मत, ताकाच 'रससिध्दांत' म्हण्टात. रस म्हळयार एके खाशेले तरेची चित्तवृत्ती. हिचें स्वरूप सुवाद घेवपाचें, चर्वण करपाचें म्हळयार आल्हाद अणभवपाचें आसा. कलाकृतीचें आधुनिक मानसशास्त्रीय विश्लेशण आनी रससिध्दांत हांचो खूब लागींचो संबंद आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रसगुल्ला :** हें एक बंगाली गोडशें (पक्वान्न). साकरेच्या पाकांत घोळयल्ले धवेधवे गुळे अशें ताचें रूप. रस + गुळो = रसगुल्ला. दूद फोडून चायोबोयो जातकच ताचे गुळे करतात आनी उपरांत ते साकरेंत शिजयतात. ते खावपाक अरळ आनी सामके रुचीक आसतात. रसगुल्ला म्हळयार बंगाल अशें समीकरण जालां. हाचेवयल्यान रसगुल्ला हें बंगालचें एक खास पक्वान्न हाची कल्पना येता.

बंगालचे लोक गोड जिनस चड खातात. दुदाचेंय प्रमाण थंय चड आसा, हाका लागून थंय रसगुल्ला हें गोडशें सगळया बंगाली मनशांच्या घरांत करतात. लग्नसुवाळया वेळार वा कसल्याय धर्मीक सुवाळयाच्या जेवणांत रसगुल्लाबगर बंगाली लोकांच्या जेवणाक सोबाय येना.

**रसगुल्ला तयार करपाची पद्दत** - साहित्य : १ लिटर दूद, २ कुलेरां मैदो वा आरारूट पिठो, १ वाटी साकर, चिमटीभर खावपाचो सोडा.

१ वाटीभर दूद घेवन तें खतरखतावन, तातूंत लिंबू पिळटात. लिंबू पिळटकच तें दूद विटकळटा. दूद विटकळटकच जें उदक सुट्टा, तें एके बाटलेंत भरून गच्च धांकणें लावन दवरतात. सात आठ दीस तें बरें उरता.

उपरांत उरिल्लें दूद तापोवन तातूंत, पयलीं तयार करून दवरिल्लें उदक घालतात. तशें केल्ल्यान दूद विटकळटा. तें विटकळिल्लें दूद भाणशिरें, वालो वा कसल्याय धव्या पातळ लुगटान बांदून ताचेर चेपण दवरतात. मागीर तातुंतलें सगळें उदक निस्तून वता आनी त्या दुदाची गुठली कशी जाता. ताका पनीर म्हण्टात. हें तयार जाल्लें पनीर बरें मस्तीतांत. ह्या मस्तिल्ल्या पनिरांत मैदो आनी सोडा घालून परतून मस्तीतात. १ वाटी साकरेंत, स वाटयो उदक घालून ताचो एकतारी असो कच्चो पांक तयार करतात. उपरांत त्या पनिराच्यो ल्हान सुपारेयेद्यो गुळऱ्यो करून, पांक खतरखतना तातूंत घालतात. मर्दी मर्दी उदक मारतात. म्हण्टकच पांक घट जायना. वाटयेंत इल्लेंशें उदक घेवन तातूंत रसगुल्ला उडोवन पळयतात. तो एकदम वाटयेच्या तळाक गेल्यार खावपाक तयार जालो अशें समजतात. वाटयेंत वयर उफेल्यार पाकांत आनीक थोडो वेळ शिजूंक दवरतात.

हें पक्वान्न बंगाल्यांचें बंगालीपण दाखयता आसलें तरी ताचे रुचीक लागून हालीं हो पदार्थ भारतभर करप जाता. हालींसरा हवाबंद डब्यांनी रसगुल्ले मेळपाची सोय जाल्या.

- सुधा सुरेश आमोणकार

**रसायनशास्त्र :** भौतीकशास्त्राचो एक फांटो. पदार्थांचे गुणधर्म, संघटन आनी संरचना आनी तातूंत जावपी बदल आनी आनुषंगिक ऊर्जाबदल हो ह्या शास्त्राचो विशय.

अकार्बनी रसायनशास्त्र, कार्बनी रसायनशास्त्र, भौतिकीय रसायनशास्त्र, वैश्लेषिक रसायनशास्त्र आनी जीवरसायनशास्त्र हे रसायनशास्त्राचे मुखेल विभाग मानतात. तशेंच वखदी रसायनशास्त्र, अणुकेंद्रीय रसायनशास्त्र आनी विद्युत् रसायनशास्त्र हांचो उपविभाग म्हणून तातूंत आस्पाव जाता.

सोळाव्या शेंकड्या सावन जरी ह्या फांट्याचो स्वतंत्र शास्त्र म्हणून विचार जावंक लागलो, तरी पुर्विल्ल्या काळापसून म्हणजे सुमार १,००० वर्सांपयलींपसून मनीस जायत्या रसायनीक कृतींचो वेव्हारीक पदार्थ तयार करपाखातीर उपेग करतालो. विरजण लावन दुदाचें धंय करप, सोरो तयार करप, उज्याचो सोद लागल्याउपरांत उश्णतेचो उपेग करून धातुकांपसून शुध्द धातू वेगळो काडप, मिश्र धातू तयार करप हांच्यासारक्यो कृती मनीस घडोवन हाडपाक लागलो. ह्या कृतींखातीर ज्यो प्रक्रिया वापरताले त्या प्रक्रियांची प्रत्यक्ष अणभवान मेळिल्ले म्हायतीचेर आनी परंपरागत चलत आयिल्ल्या पद्दतींचेर आदारिल्ल्यो त्यो प्रक्रिया आसताल्यो.

इ.स.प. ६०० वर्सांच्या अदमासाक ग्रीकांनी सैमाचे कांय नेम आसात आनी तांचेप्रमाण सैमीक गजाली घडटात म्हणपाचें दाखोवन दिलें. सैमांतले पदार्थ जरी जायते आसले तरीय सगळयांक मुलभूत असो एकूच पदार्थ आसुंये अशी त्या काळच्या कांय तज्ञांची पयलीं समजूत आशिल्ली. पूण त्या उपरांतच्या तज्ञांनी अशीं चार मूलतत्त्वां आसात म्हणपाचें प्रतिपादन केलें. तीं म्हळयार धर्तरी, आप, तेज आनी वायू. ह्या दर एका तत्त्वाचे कांय गुणधर्म आसात आनी वेगवेगळया प्रमाणांत तांचें मिश्रण जाल्ल्यान पदार्थांत वेगळेंपण येता. हीं मिश्रणांचीं प्रमाणां जर बदललीं जाल्यार एका पदार्थाचें दुसऱ्यांत रुपांतर करप शक्य जातलें असो तर्कताचेवयल्यान काडलो. तातुंतल्यानूच रसायनविद्येचो विकास जायत रावलो.

इ. स. पयल्या शेंकड्यापसून सुमार पंदराव्या शेंकड्यामेरेनच्या काळांत कांय रसायनशास्त्रज्ञांच्या यत्नांकलागून नवे नवे अम्लधर्मी (acidic) आनी क्षारधर्मी (alkalic) पदार्थ, जायतीं लवणां आनी हेर विक्रियाशील पदार्थ तयार करपाच्यो कृती मनशाक कळ्ळयो आनी वेगवेगळया उपकरणांचोय सोद लागलो. ह्या पदार्थांचो उपेग वेव्हारांत जावपाक लागलो. तशेंच उपयुक्त वखदां करपाची कल्पना मुखार आयली. फिलिपस ऑरिओलस पॅरासेल्सस (सुमार इ.स. १५०० ते १७०० च्या अदमासाक) ह्या स्वीस वैजान ते नदरेन यत्न केले आनी ताच्या वांगड्यांनी ते फुडें व्हेले. तांच्या यत्नांतल्यान वेगवेगळया प्रक्रियांनी उपेगी पदार्थ तयार करप आनी ऊर्ध्वपातन (distillation) घडोवप ह्यो क्रिया प्रचारांत आयल्यो आनी तांचीं वर्णनां करपी पुस्तकांय प्रसिद्द जावपाक लागलीं. आंद्रेअस लिबॅव्हियस हाचें अल्केमिया (१५९७) हें अशे तरेचें पयलें पुस्तक.

बुध्द काळापासून (इ.स.प. ६२३ - ५४३) ह्या शास्त्राचेर ग्रंथ आसात. भारतीय रसायनशास्त्राची वाड वैजकीचो वखदी फांटो म्हणून जाल्ली आसा. धातूंचीं भस्मां तयार करप आनी तांचो दुयेसां ना करपाखातीर आनी शारिरीक बळगें वाडोवपाखातीर कसो उपेग करचो हाचो विचार तातूंत मुखेलपणान आसा.

भारतीयांक अप्रत्यक्षपणान सायट्रिक, टार्टारिक आनी ऑक्झॅलिक हीं अम्लां आनी कार्बनी अम्लां खबर आशिल्लीं. तेचप्रमाण सलफ्युरिक, नायट्रिक सारकिल्लीं खनीज अम्लांय भारतांत तयार करताले म्हणपाचें समजलां. द्रव्यां विरगळावपी सगळे विद्रावक जलराज (ॲक्वा फॉर्टिस) तांकां खबर आशिल्ले. लोखण, जस्त, तांबें हांच्या धातुकांपसून ते ते धातू वेगळे करपाच्यो क्रियाय तांकां खबर आशिल्ल्यो. मोरचूद, तुरटी, हिराकस, रसकापूर (कॅलोमेल) सारकिल्ले रसायनीक पदार्थ तयार करपाचे कारखाने पुर्विल्ल्या काळांत भारतांत आशिल्ले. शुध्द धातूंपसून तांचीं ऑक्सायडां, सल्फायडां, क्लोरायडां तयार करपाची कृतीय तांकां खबर आशिल्ली. आयज रसायन शास्त्रज्ञ एकाद्र्या धातवीय संयुगांत खंयचो धातू आसा हें वळखुपाखातीर जी ज्योत - कसोटी वापरतात तीय कांय प्रमाणांत तांकां खबर आशिल्ली.



पोरनी प्रयोगशाळा

आधुनिक रसायनशास्त्रीय प्रयोगशाळेंतल्या ऊर्ध्वपातन उपकरणासारकें ऊर्ध्वपातन यंत्रूय तांणी तयार केल्लें. पुर्विल्ल्या भारतीयांच्यो अणू आनी परमाणूविशींच्यो संकल्पना अनुक्रमान रेणू आनी अणू हांच्या व्याख्यांकडेन जुळपी आशिल्ल्यो. रसायनीक संश्लेशण क्रियाय तांकां खबर आशिल्ल्यो.

सतराव्या शेंकड्यांत वेगवेगळया मार्गांनी वा वेगवेगळया पदार्थांपसून तयार केल्ले जायते पदार्थ एकूच तरेचे आसात हें दाखोवपांत आयलें. अम्ल आनी क्षारक हांच्या विक्रियांत विक्रियासमाप्ती दाखोवपाखातीर वनस्पतिज रंगाचो उपेग दर्शक म्हणून करूं येता हें रॉबर्ट बॉयल हाणें दाखयलें. ताणेंच पदार्थाची वळख पटोवपाखातीर अवक्षेपण (Precipitation) पद्दतीचो पयलीं वापर केलो. अशेतरेन गुणात्मक विश्लेशण आनी जातूंत रंगांचो उपेग केला अशा विश्लेशण पद्दतीचें मुळावण घालें. तापमान तशेंच दवरल्यार वायुच्या घनफळाचेर दाबाचो परिणाम कसो जाता हाचेविशींचे नेमूय ताणें सोदून काडले. तशेंच ताणें स्केप्टिकल केमिस्ट (१६६१) हो ग्रंथ प्रसिद्द केलो.

अठराव्या शेंकड्यांत ज्वलनाचें स्पश्टीकरण करपाक पळोवपी 'फ्लॉजिस्टॉन' उपपत्ती प्रचारांत आयली. तशेंच ह्या शेंकड्यांत हवेचे घटक आनी हेर वायू हेसंबंदींचे बरेंच मुळावें संशोधन जालें. खडू वा मॅग्नेशिया अल्बा (मॅग्नेशियम कार्बोनेट) तापयल्यार जांव ह्या पदार्थाचेर अम्लाची विक्रिया केल्यार जो वायू (कार्बन डायऑक्सायड) तयार जाता, ताचो संयोग भाजिल्ल्या चुनखडीकडेन केल्यार खडू जाता म्हणपाचें जोसेफ ब्लॅक हाणें दाखयलें. ह्या वायूक ताणें 'थीर हवा' हें नांव दिलें. हेन्री कॅव्हेंडिश हाणें ह्या वायुची घनता, उदकांत विरगळपाची तांक ह्या गुणधर्मांचो अभ्यास केलो. तेचप्रमाण १७६६ त हायड्रोजन वायू सुटावो करून ताचो अभ्यास केलो आनी ताका ताणें 'ज्वालाग्राही' वायू हें नांव दिलें.

इ.स. १७७४ त जोसेफ प्रीस्टली हाणें मर्क्युरिक ऑक्सायड तापयलें आनी निर्माण जाल्लो ऑक्सिजन वायू एकठांय केलो. तशेंच ताणें अमोनिया, हायड्रोजन क्लोरायड, नायट्रोजनाचीं तीन ऑक्सायडां,

तशेंच सल्फर डाय - ऑक्सायड आनी दुसरेय जायते वायू तयार करून तांच्या गुणधर्मांचो अभ्यास केलो. कार्ल व्हिल्हेल्म शेले हाणेंय स्वतंत्रपणान ऑक्सिजन वायू तयार करून ताका 'अग्नी वायू' (फायर एअर) हें नांव दिलें.

आंत्वान लॉरां लव्हॉयझर हाणें शिशें आनी पारो तापोवन प्रयोग केलो. गंधक, फॉस्फरस, कार्बन सारकिल्ल्या अधातूंचीं प्रीस्टली हाणें वर्णिल्ल्या वायूचीं संयुगां अम्लधर्मी आसतात अशें दिसून आयलेउपरांत लव्हॉयझरान ह्या वायूक 'अम्लजनक' ह्या अर्थाच्या ग्रीक उतरावयल्यान 'ऑक्सिजन' हें नांव दिलें. ताणें हायड्रोजन वायुचोय सोद लावन ताका 'जलजनक' ह्या अर्थाचें 'हायड्रोजन' हें नांव दिलें.

लव्हॉयझरान आपल्या प्रयोगी पुराव्याच्या आदाराचेर १७८३त फ्लॉजिस्टॉन उपपत्ती चुकीची आसून ज्वलन आनी भर्जन (भाजप) ह्या क्रियांत हवेंत आशिल्लो ऑक्सिजन, हो घटक जळपी पदार्थांकडेन जाव धातूंकडेन संयोग पावता आनी तांचीं ऑक्सायडां तयार करता असो सिध्दांत मांडलो. ह्या सिध्दांताक प्रसिद्द फ्रेंच रसायनशास्त्रज्ञांनी आनी इंग्लीश आनी जर्मन रसायनशास्त्रज्ञांनी मान्यताय दिली. तशेंच लव्हॉयझरान सी. एल्. बेर्तॉले आनी हेर फ्रेंच रसायनशास्त्रज्ञांच्या पालवान रसायनांच्या नामकरणांत सुदारणा करपाचे नदरेन १७८७त एक ग्रंथ बरयलो. ताका परंपरागत नांवांच्या जाग्यार संयुगांची रसायनीक संघटना दारवोवपी नांवां चड मानवलीं. अकार्बनी रसायनशास्त्रांत सद्या प्रचलीत आशिल्ल्या नामकरण पद्धतीक ही पद्धत आदारावळ थारिल्ली. ह्याच शेंकड्यांत निकेल, मँगॅनीज आनी मॉलिब्डेनम, युरेनियम, झिर्कोनियम, सिरियम, टेल्युरियम, टंगस्टन, इट्रियम, बेरिलियम, क्रोमियम, निओबियम, टँटॅलम, पॅलॅडियम, ऱ्होडियम, ऑस्मियम आनी इरिडियम ह्या मूलद्रव्यांचो सोद लागलो.



आधुनिक प्रयोगशाळा

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत अणुसिध्दांताचो विकास जालो आनी मूलद्रव्याचे अणूभार थारावपाचे यत्न जाले. शुध्द रसायनीक पदार्थाचें संघटन थारिल्लें आसता काय तें वेगवेगळें आसपाक शकता हाचे विशीं पयलीं एकमत नाशिल्लें. रसायनीक पदार्थाचें संघटन, तो पदार्थ तयार करपाखातीर वापरिल्ल्या विक्रियाकारकांच्या संहतीप्रमाण (प्रमाणानुसार) वेगवेगळें आसता अशें क्लोद ल्वी बेरताले (१८०३) हाणें प्रतिपादन केलें. रसायनीक पदार्थांचें जतनायेन विश्लेशण केलें तेन्ना तांचीं संघटना थारायल्ली आसता म्हणपाचें झोझेफ ल्वी प्रूस्त हाका दिसून आयलें आनी शेवटाक हेंच मत खरें मानलें. हाचेवयल्यानूच 'थारायल्लो प्रमाण नेम' अस्तित्वांत आयलो. रसायनीक संयोगाविशींचो 'गुणीत प्रमाण नेम' जॉन डाल्टन हाणें सुचयलो. ताचो अणुसिध्दांत आनी अणुभाराची संकल्पना रसायनशास्त्रांत मूलभूत म्हत्वाची थरली. ताचे उपरांत तापमान आनी दाब सारको आशिल्ले अवतिकायेंत मेजल्यार विक्रियेक पावपी वायुरूप द्रव्याच्या घनफळांचे गुणोत्तर ल्हान पुर्णांकानी दारवोवपाक येतलें अशे आसतात म्हणपाचो सोद झोझेफ ल्वी गे ल्युसॅक ह्या फ्रेंच रसायनशास्त्रज्ञाक लागलो. हाचेवयल्यान सारक्या घनफळाच्या वायुरूप द्रव्यांत अणुंचो आंकडो सारको आसुंये असो ताणें तर्क केलो. शेवटाक यन्स याकॉप बर्झीलियस हाणें जतनायेन प्रयोग करून जायत्या मूलद्रव्यांचे अणुभार थारावन प्रसिद्द केले.

अणुभार थारावपाखातीर उपेगी पडटलें अशें एक निरीक्षण १८१९ त फ्रेंच रसायनशास्त्रज्ञ प्येअर ल्वी डुलाँग आनी आलेक्सी तेरेअझ हाणें प्रसिद्द केलें. असोच पालव दिवपी एक नेम आइलहार्ट मिचर्लिख ह्या जर्मन रसायन शास्त्रज्ञान प्रसिद्द केलो. तशेंच झां बातिस्त आंद्रे द्यूमा हाणें घन आनी द्रव पदार्थांची बाश्प घनता थारावपाची एक पद्दत तयार केली. ताचेवयल्यान मागीर १८६० उपरांत संयुगांचे आनी मुलद्रव्यांचे रेणुभार थारावप सोंपें जालें.

**विद्युत् रसायनशास्त्र :** आलेस्सांद्रो जुझेप्पे व्होल्टा हाणें इ.स. १८००त, धातूंच्या दोन चकत्यांमदीं मिठाच्या उदकान भिजिल्लो कपडो वा टीपकागद दवरलो आनी अशो जायत्यो चकत्यो एकाचेर एक दाळून कडेच्या म्हणजे सगळयांत वयली आनी सगळयांत सकयल्ली, ह्यो चकत्यो तारेन जोडल्यो जाल्यार विद्युत् प्रवाह मेळटा म्हणपाचें दारवयलें. अशा प्रवाहाचो उपेग करून विल्यम निकल्सन आनी अँथोनी कार्लायल हाणें उदकाचें अपघटन (decomposition) घडयलें. विजेच्या प्रवाहाचो उपेग पदार्थांचें रसायनीक अपघटन घडोवपाखातीर करूं येता आनी अशा अपघटनांत हायड्रोजन वायू आनी धातू हे ऋणाग्राकडेन आनी ऑक्सिजन आनी अम्लधर्मी पदार्थ धनाग्राकडेन जमतात अशें बर्झीलियस आनी सर हंफ्री डेव्ही हांणी दारवोवन दिलें. हाचेवयल्यान रसायनीक ओड वा रसायनीक आसक्ती हिचें स्वरूप विद्युतीय आसपाक जाय

असो अदमास काडलो. तशेंच डेव्ही हाणें विद्युत् प्रवाहाचो उपेग करून पोटॅशियम, सोडियम, बेरियम, स्ट्राँशियम, कॅल्शियम आनी मॅग्नेशियम हे धातू तांच्या संयुगांतल्यान सुटावे केले. इ.स. १८३३त मागीर मायकेल फॅराडे हाणें विद्युत् रसायनीक नेम सोदून काडले.

सदया वापरांत आशिल्लीं मूलद्रव्यां, संयुगां हांचीं सांकेतिक चिन्नां थारावपाचें काम ह्याच शेंकड्यांत सुरू जालें. पयलीं रसायनशास्त्रज्ञांनी वेगवेगळया पदार्थांखातीर सांकेतिक चिन्नां थारायल्लीं. पूण तीं पद्दतशीर नाशिल्लीं. ताचे उपरांत डाल्टन हाणें मूलद्रव्यांखातीर वेगवेगळया तरांचीं वाटकुळां सुचयल्लीं. पूण तीं सोयीचीं नाशिल्लीं. मूलद्रव्याच्या प्रचलित वा लॅटीन वा हेर नांवांचें पयलें अक्षर त्या त्या मूलद्रव्यांचें सांकेतिक चिन्न म्हणून वापरचें अशें १८१४ त बर्झीलियस हाणें सुचयलें. जंय तेंच आद्याक्षर वेगवेगळया मूलद्रव्यांखातीर येवपाची शक्यताय आशिल्ली थंय नांवांतल्या पयलीं दोन (वा त्या फुडलीं) अक्षरां वापरताले. देखीक - क्लोरीनाखातीर cl (chlorine), फ्ल्युओरिनाखातीर F. (Fluorine). रसायनीक संयोग दाखोवपाखातीर घटक मूलद्रव्यांचीं चिन्नां मदीं अदीक चिन्न (+) घालून त्या काळांत बरयताले. सांकेतिक चिन्नांकलागून रसायनीक विक्रियांत भाग घेवपी मूलद्रव्यां आनी निर्माण जावपी संयुगां वा मूलद्रव्यां व्यक्त करप खूब सोंपें जालें.

अम्लांच्या रसायनीक स्वरुपाविशीं पयलीं कल्पना स्पश्ट नाशिल्ल्यो. इ.स. १८३० त टॉमस ग्रॅहॅम आनी युस्टुस फोन लिबिग हाणीं बहुक्षारकीय (Polybasic) अम्लांसंबंदीं संशोधन केलें. तातुंतल्यान फॉस्फोरिक अम्लांच्या लवणांच्यो तीन श्रेणी पडटात आनी त्यो $H_2O + P_2O_5$; $2H_2O + P_2O_5$ आनी $3H_2O + P_2O_5$ हांचेपसून तयार जावपी अम्लांच्यो आसतात अशें ताणें दाखोवन दिलें. आर्सेनिक अम्लां आनी आर्सेनेट हांच्यांतूय असोच संबंद आशिल्ल्याचें ताणें दाखयलें. ताचेउपरांत लीबिग हाणें ह्या गजालीचें स्पश्टीकरण केलें. तें मतींत घेवन तीन फॉस्फोरिक अम्लांचीं सूत्रां $HPO_3$, $H_4P_2O_7$ आनी $H_3PO_4$ अशीं मांडपाक येतात.

मूलद्रव्यांचे अणुभार लक्षांत घेवन जायत्या मूलद्रव्यांचीं त्रिकुटां तयार करूं येतात अशें जे. डब्ल्यू. डबेरायनर हाका १८२९ त दिसून आयलें. ह्या त्रिकुटां तयार करपाच्या नेमाक 'त्रिक नेम' म्हण्टात. हे पद्दतीक लागून सारक्या गुणधर्मांच्या मूलद्रव्यांचीं कांय कुळां करपात आयलीं. पूण हे पद्दतीचो उपेग खूब कमी प्रमाणांत जालो.

मूलद्रव्यां अणुभारांच्या चडट्या आंकड्यान मांडलीं जाल्यार तांतुंतलें पयलें मूलद्रव्य आनी आठवें मूलद्रव्य त्याचप्रमाण दुसरें, णववें आनी सोळावें मूलद्रव्य आनी तांचीं संयुगां हातूंत सारकेपण दिसता म्हणपाची सप्तकाची एक कल्पना जॉन न्यूलँड्झ हाणें १८६५त सुचयली. तशेंच मूलद्रव्यां अणुभारांच्या चडट्या क्रमान लायलीं जाल्यार कांय अंतर गेल्या उपरांत त्याच त्याच गुणधर्मांचें आवर्तन जाल्लें दिसता म्हणपाचें इ.स. १८६९ त दमित्री इव्हानव्हिच मेंडेलेव्ह हाणें दाखोवन दिलें. ह्या निरिक्षणाचो विकास करून ताणें एक आवर्त सारणीय सिध्द केली. तिका लागून मूलद्रव्यां आनी तांचे गुणधर्म हांचें एकवटीतपण करपांत आयलें. विरल वायू हो मूलद्रव्यांचो एक समूह १८९० त आवर्त सारणींत आस्पायलो. मूलद्रव्यांची रचना अशे तरेन कित्याक करतात हें विसाव्या शेंकड्यांत अणूंची संरचना स्पश्ट जाल्याउपरांत कळ्ळें.

**कार्बनी (सेंद्रिय) रसायनशास्त्र :** खनिजांपसून मेळपी पदार्थ आनी जनावरां आनी सजीव सैमांतले (इंद्रियां आशिल्ल्यांपसून मेळपी) पदार्थ हांच्याविशींच्या रसायनशास्त्रांत वेगळेंपण आसा हें दाखोवपाखातीर सेंद्रीय रसायनशास्त्र ही संज्ञा पयलीं प्रचारांत आयली. सजीव सैमांतल्या पदार्थांचे निर्मितीखातीर एकाद्रे जैवशक्तीची गरज आसता आनी मनशाक अशे पदार्थ निर्माण करपाक येनात अशी त्या काळांत कल्पना आशिल्ली. पूण १८२८ त यूरिया हो सेंद्रिय पदार्थ प्रयोगशाळेंत तयार केल्ल्यान ही कल्पना फट थारली आनी सेंद्रीय रसायनशास्त्र म्हणजे कार्बन ह्या मूलद्रव्याच्या रसायन शास्त्राचो विभाग आसा हें जाणून ताचो उल्लेख कार्बनी रसायनशास्त्र असो करपाक लागले.

इ.स. १८०० पयलीं वनस्पत आनी जनावरां हांचेपसून, मुखेलपणान शेले हाणें वेगळीं केल्लीं ऑक्झॅलिक, मॅलिक, सायट्रिक, टार्टारिक, लॅक्टिक, यूरिक, गॅलिक, पायरोगॅलिक, म्युसिक आनी पायरोम्युसिक हीं अम्लां आनी ग्लिसरीन, एच्. एम्. रौले हाणें मनशाच्या मुतांतलें यूरिया आनी गायच्या मुतांतलें हिप्युरिक अम्ल ह्या पदार्थांचो आस्पाव जाता. ताचे उपरांत सजीव सैमांतले जायते पदार्थ वेगळे करप, वळखप आनी तांचेपसून सजीव सैमांत नाशिल्ले पदार्थ तयार करपाक येवंक लागले. ग्लुकोज, सुक्रोज आनी फ्रुक्टोज ह्या साकरेचो सोद लागलो. १८४४ त कार्ल श्मिट हाणें ह्या पदार्थांच्या वर्गाक कार्बोहायड्रेट ही संज्ञा दिली. अशेच तरेन जायत्या वैजकीशास्त्रज्ञांनी वनस्पतिज पदार्थांपसून जायतीं अल्कलॉयडां वेगळीं करून तांच्या रसायनीक आनी वखदी गुणधर्मांचो अभ्यास केलो.

इ.स. १८१०-२३ ह्या कालखंडांत एम्. ई. शव्हरल ह्या फ्रेंच रसायनशास्त्रज्ञान शाबू तयार करतना खंयच्यो रसायनीक क्रिया घडटात हांचें स्पश्टीकरण केलें. ताचेवयल्यान वसो (स्निग्ध पदार्थ) हो वसाम्लां आनी ग्लिसरीन हांचेपसून तयार जाल्लीं संयुगां आसात हें सिध्द जालें. ताणें जायत्या वसाम्लांचें वर्णन केलें आनी कार्बनी पदार्थांचें परीक्षण करपाचीं सर्वसादारण तत्त्वां प्रस्थापित केलीं.

फ्रीड्रीख व्हलर हाणें एक अमोनियम संयुग आनी एक सायनेट ह्या अकार्बनी समजल्ल्या पदार्थांचेर प्रयोग करून युरिया

मेळयलें आनी मनशाक संश्लेशणान सजीव सैमांतले पदार्थ तयार करूं येतात हें सिध्द करून दाखयलें.

ताकालागून कार्बनी संयुगां संश्लेशणान तयार करपाच्या यत्नांक चालना मेळ्ळी. १८६५ त प्येअर यूझेअन मार्सलां बर्थेलॉट हाणें कार्बन डायसल्फायड आनी हायड्रोजन सल्फायड ह्या मूलद्रव्यांपसून तयार जावपी संयुगां वापरून मिथेन, एथिलीन आनी नॅप्थॅलीन हांचेसारकिल्लीं संयुगां तयार करपाक येतात हें सिध्द केलें. तशेंच कार्बन आनी हायड्रोजन हांचेपसून ॲसिटिलीन वायू तयार करूं येता आनी हो वायू तापयल्ले नळयेंतल्यान सोडल्यार बेंझीन हें संयुग मेळटा हें १८६६ त दाखयलें. अकार्बनी रसायनशास्त्र आनी सेंद्रिय रसायनशास्त्र हांच्यांत कांयच फरक ना म्हणपाचें बर्थेलॉट हाणें १८६० त प्रसिद्द जाल्ल्या आपल्या ग्रंथांत प्रतिपादन केलें. तशेंच वनस्पत आनी जनावरां हांचेमदीं आसपी स्वंयचेय पदार्थ अकार्बनी रसायन शास्त्रांतल्या पदार्थांपसून रसायनशास्त्रज्ञांक तयार करपाक येतले. म्हणपाचेंय सांगलें. हाकालागून रसायनशास्त्रांतलो जैवशक्तिवादी सिध्दांत नश्ट जालो.

रसायनशास्त्रांतले हे उदरगतीकलागून जायते प्रश्न निर्माण जाले. तातुंतलो एक चड म्हत्वाचो म्हणजे संयुगांचीं रेणुसुत्रां थारावप. ते खातीर कार्बनी संयुगांतलो कार्बन, नायट्रोजन सारकिल्ल्या मूलद्रव्यांचें राश्यात्मक विश्लेशण करपाची गरज आशिल्ली. १८३० त लिबिग हाणें विकसित केल्ली पद्दत हे नदरेन खूब म्हत्वाची आसा. हे पद्दतींत पदार्थातलो कार्बन आनी हायड्रोजन हांची टक्केवारी काडूं येता. नायट्रोजनाच्या मापनाखातीर ड्यूमा हाणें एक पद्दत बसयल्ली. हे पद्दतींत नायट्रोजनाची टक्केवारी थारावपाक येता. तशेंच पदार्थांतलें आॅक्सिजनाचें प्रमाण प्रत्यक्ष थारायनात. तर हेर मूलद्रव्यांच्या शेंकडो प्रमाणाची बेरीज करून ती १०० तल्यान वजा केली म्हणजे ऑक्सिजनाचें शेंकडो प्रमाण कळटा. पूण पदार्थांत जर गंधक आनी हॅलोजन आसत जाल्यार तांच्या मापनाखातीर जी. एल्. कॅरियस ह्या जर्मन रसायनशास्त्रज्ञान १८६४ त बसयल्ली पद्दत उपेगी पडटा.

कार्बनी रसायनशास्त्रांतल्या संयुगांच्या संघटनांखातीर एकादी एकीकृत पद्दत आसची ह्या उद्देशान ड्यूमा आनी प्येअर बौले हांणी १८२८त 'मूलक सिध्दांत' सुचयलो. १८३२ त लीबिग आनी व्हलर हांणी कोडू बदामाच्या तेलासंबंदींच्या संशोधनांत बेंझाल्डिहायड हें संयुग वेगळें केलें आनी ताच्या संघटनाखातीर बेंझायल हें मूलक सुचयलें. ताचेउपरांत मिथिल, एथिल, सॅलिसिल, ॲसिटील सारकिल्लीं जायतीं मूलकां सुचयलीं. रसायनीक विक्रियेंत तीं जशींच्या तशींच उरतात तरी तांच्या थीरपणाक मर्यादा आसतात अशें प्रयोगांवयल्यान दिसलें. ताचेवयल्यान ड्यूमा हाणें १८३४त प्रतिश्ठानाचो नेम मांडलो. तशेंच ताणें इ.स. १८४० उपरांतच्या दशकांत परिशुध्द अणुभार थारायले.

इ.स. १८४१त शार्ल आदोल्फ व्यूर्त्स हाणें अमायनां हीं कार्बनी संयुगां तयार करपाची पद्दत सोदून काडली. तशेंच अलेक्झांडर विल्यमसन हाणें ईथरे हीं कार्बनी संयुगां तयार करपाची प्रक्रिया सोदून काडली. सी. एफ्. झेरार हाणेंय आनीक कांय प्रतिनिधीक प्रकार सुचयल्ले.

मूलद्रव्यांचे अणू आनी अणुसमुच्चय हांची संयोगक्षमता (संयुजा) थरावीक आसून ती ल्हान आंकड्यांनी व्यक्त करूं येता म्हणपाचें सर एडवर्ड फ्रँकलंड हाका दिसून आयलें. ही संयुजा - संकल्पना जरी सवकास आपणायली तरीय तिकालागून संयुगांच्या रसायनीक सुत्रांचो अदमास पयलीं करप आनी तांचो अर्थ लावप सोंपें जालें. संयुजा - संकल्पनेच्या आदाराचेरूच १८५८ त चार संयुजा आशिल्ले कार्बन अणू एकामेकाकडेन संयोग पावन लांब सरपळ्यो तयार करपाक शकतले अशें फोन श्ट्राडोनिट्स फ्रीड्रिख आउगुस्ट केकुले हाणें सुचयलें. अशीच कल्पना आर्चिबॉल्ड स्कॉट कूपर हाणेंय सुचयल्ली. पूण केकुलेचो हेविशींचो निबंद पयलीं प्रसिध्द जालो आनीं ताणें तातूंत कांय संकल्पनांचीय भर घाली. ताकालागून हे संकल्पनेचें व्हडपण ताका दितात.

संयुजा - संकल्पनेचो आदार घेवन संयुगांच्या रेणूंची संरचना म्हणजेच रेणूंत अणूंची जोडणी एकमेकाकडेन कशी जाल्ली आसता, हें स्पश्ट करपी सूत्रां विकसित करपाच्या कामांत १८६० उपरांत चडकरून कार्बनी रसायन शास्त्र विभागांत प्रगती जाली. केकुले आनी रशियन रसायनशास्त्रज्ञ ए.एम्. बूटल्येरॉव्ह हाणें ह्या कामांत मुखेलपण घेतलें. हाचेपयलींच कांय शास्त्रज्ञांनी संरचनांचो उपेग केल्लो.

**त्रिमितीय रसायनशास्त्र :** कांय संयुगां उजवाडीय सक्रियता दाखयतात. टर्पेंटायन, लेमन ऑयल सारकिल्लीं तेलां ध्रुवित (एकाच प्रतलांत कंपन जावपी) उजवाडाचें वलन (rotation) घडयतात. टार्टारिक अम्लाच्या अमोनियम लवणाचीं दोन रुपां आसून तातुंतलें एक ध्रुवित उजवाड उजवे वटेन, जाल्यार दुसरें तितकेंच पूण दावे वटेन घुंवडायता अशें लुई पाश्चर हाणें १८४८त दाखयलें. हाचें कारण तांच्या रेणवीय फरकांत आसुंये अशी ताची कल्पना आशिल्ली. ताचे उपरांत याकोबस हेंड्रिकस व्हांट - हॉफ, जे. ए. लबेल, एमील हेरमान फिशर, जे. ए. ग्यूथर, फ्रँकलँड, बी. एफ्. डुपा, कोनराड लार, लूटव्हिख क्नोर आनी कूर्ट मायर ह्या रसायनशास्त्रांनीय जायतें संशोधन केलें.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत संश्लेशणाचीं जायतीं तंत्रां विकसीत करपांत आयलीं. तांचो उपेग करून जायते सैमीक पदार्थ आनी तेचप्रमाण सैमांत नाशिल्ले पूण उपेगी पदार्थ संश्लेशणान तयार केले. तातूंत मॉव्ह हें सर विल्यम हेन्री पर्किन हाणें तयार केल्लें रंजकद्रव्य आनी ॲलिझरीन, नीळ सारकिल्ल्या सैमीक रंजकद्रव्यांचो आस्पाव जाता.

**जीवरसायनशास्त्र :** ह्या काळांत रसायनशास्त्रज्ञांचें लक्ष जैव सैमांतल्या फकत पदार्थांकडेन आशिल्लें अशें ना. तशेंच सैमांत पदार्थ निर्माण जावपाच्यो ज्यो प्रक्रिया आसात तांचेविशींय तांकां कुतुहल आशिल्लें. ह्या हेतून तांणीं केल्ल्या यत्नांतल्यान उजवाड संश्लेशण, वनस्पतींच्या वाडीखातीर लागपी पोशक मूलद्रव्यां, अल्कोहॉलाच्या किण्वनांत उपेगी पडपी एंझायमां आनी तांचें स्वरूप हांचेविशीं मोलादीक म्हायती मेळयली.

**भौतिकीय रसायनशास्त्र :** पदार्थांचे भौतिक गुणधर्म आनी रसायनीक संरचना हांचो संबंद जोडपाचे यत्न हरमन कोप हाणें १८४०-६० ह्या अदमासाक केले. तशेंच आल्कोहॉलाच्या समजात श्रेणींतल्या संयुगांच्या भौतिक गुणधर्मांत पध्दतशीरपणान आनी नियमीत प्रमाणांत बदल जायत आसतात म्हणपाचेंय ताणें तेउपरांत दाखयलें. रसायनीक विक्रियांनी जावपी उश्णता बदलाकडेनूय रसायन शास्त्रज्ञांचें लक्ष पयलींपसून आशिल्लें. ज्वलन - उश्णतेचो विस्तारीत अभ्यास कोपन हेगनांतल्या एच्. पी. जे. टॉमसेन आनी पॅरिसांतल्या बर्थेलॉट हाणें केलो. रसायनशास्त्रांत ऊश्मा गतिकीचो उपेग ए.एफ्. हॉर्स्टमान हाणें १८६८ त केलो. विशमांगी पदार्थांच्या समतोलावस्थेखातीर उश्मा गतिकीचें उपयोजन जोसिआ विलर्ड गिब्ज हाणें केलें. ताणें प्रावस्था नेमाचो प्रस्ताव केलो. मिश्रधातूंचो अभ्यास करतना एच्. डब्ल्यू. बी. रोझेबोम हाणें ह्या नेमांचो विस्तारीत तरेन उपेग केलो.

व्हांट - हॉफ आनी फ्रेंच रसायनशास्त्रज्ञ एच्. एल्. ल. शातल्ये हांणीं जीं ऊश्मागतिकेचीं तत्त्वां थारायलीं तांचो उपेग करून फ्रिट्स हाबर हाणें वातावरणांतलो नायट्रोजन आनी हायड्रोजन हांचेपसून उद्वेगीक प्रमाणाचेर अमोनिया निर्माण करपाखातीर सगळ्यांत बरी आनी वेवहार्य परिस्थिती थारायली. पदार्थांची एंट्रॉपी निरपेक्ष शून्य तापमानाक शून्य आसता म्हणपाचें व्हॉल्टर हेर्मान नेन्स्र्ट हाणें ऊश्मा गतिकी तत्त्वांचो विस्तार करून १९०६त सुचयलें. हो सिध्दांत मर्यादित भौतिकी स्थिरांकांच्या उपेगान रसायनीक प्रणालींचो समतोल थारावपाखातीर व्यापक प्रमाणाचेर वापरलो.

गत्यात्मक रेणवीय सिध्दांताचो विकासय ह्या शेंकड्यांत जालो. वायू हे गतिमान कणांचे जाल्ले आसुंये असो अदमास सैमीक तत्त्वज्ञानांनी पयलीं केल्लो. तरीय ताचें खात्री दिवपी विवेचन एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन जावंक नाशिल्लें. यम, बॅरन विल्यम टॉमसन केल्व्हिन आनी जेम्स क्लार्क मॅक्सवेल हांच्या कार्यान जालें.

गत्यात्मक सिध्दांताचें म्हत्व वायूंच्या द्रवीकरणांतूय आसा. फ्रान्सांत ऑक्सिजन आनी नायट्रोजन हांचें पयलें द्रवीकरण १८७७त केलें. जेम्स देवार (ड्यूअर) हाणें लंडन हांगा जाल्यार एस्. एफ्. फोन व्हरुब्लेफ्स्की आनी के. एस्. ओल्सझेवस्की हांणीं क्रेको (पोलंड) हांगा हे प्रक्रियेचो व्हडा प्रमाणाचेर वापर केलो. हिलीयमाचें द्रवीकरण मात १९०८ त लायडन हांगाच्या हायके कामर्लिंग ऑनेस हाणें केलें. दर एका आयनाक खाशेली गती आसता म्हणपाचें फ्रीड्रिख हाणें १८७४ त दाखयलें. स्वांट ऑगस्ट अऱ्हेनियस हाणें १८८४ त आयनीभवन (Ionisation) हो म्हत्वाचो सिध्दांत मांडलो. ह्या सिध्दांताक लागून विद्रावांच्या स्वरुपाविशींच्या गिन्यानांत व्हड प्रगती जाली. योहान दि टॉर्फ हाचोय ह्या मळावयलो सोद म्हत्वाचो आसा.

यूरेनियम हें मूलद्रव्य उत्स्फूर्तपणान क्ष-किरणा सारकें प्रारण भायर सोडटा असो सोद एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या निमण्या काळांत लागलो. आंत्वान आंरी बेक्रेल हो प्रस्फुरक (Phosphor) पदार्थांचो अभ्यास करता आसतना अचकीत ताचे नदरेक हें आयलें. युरेनियमाच्या सगळया प्रकारांत हो आविश्कार दिसता म्हणपाचें मागीर रोकडेंच स्पश्ट जालें. थोरियमाचीं संयुगांय किरणोत्सर्गी आसतात अशें मारी क्यूरी हिका दिसलें. मागीर मारी क्यूरी आनी तिचो घोव प्येअर क्यूरी हाणें पोलोनियम आनी रेडियम हीं किरणोत्सर्गी मूलद्रव्यां वेगळीं केलीं.

**विसावो शेंकडो : रेडिओ रसायनशास्त्र:** किरणोत्सर्गी मूलद्रव्यांचो अभ्यास केलेउपरांत १८९९त अर्नेस्ट रदरफर्ड आनी ताचे वांगडी हांकां ह्या मूलद्रव्यांपसून भायर सरपी प्रारणां एकसारकीं नासतात म्हणपाचें दिसून आयलें. तातूंत सहज शोशण जावपी भाग (आल्फा कण), एक चुंबकीय क्षेत्रान विचलित जावपी चड भेदनक्षम भाग (बीटा कण) आनी क्ष-किरणांसारको सामको भेदनक्षम असो एक भाग (गॅमा किरण) आसात. १९०३ त सर विल्यम रॅम्झी ह्या इंग्लीश संशोधकाक रेडियम क्लोरायडापसून हिलीयम थीर वेगान भायर सरता म्हणपाचें दिसून आयलें. रदरफर्ड आनी टॉमस रॉयड्स हांणीं आल्फा कण हे दुप्पट घन विद्युत् भार आशिल्ले हिलीयम आयन आसतात म्हणपाचें सिध्द केलें. रदरफर्ड आनी सॉडी हांणी थेरियमापसून थेरियम - एक्स हें एक किरणोत्सर्गी द्रव्य वेगळें केलें. जायत्या प्रयोग शाळांनी किरणोत्सर्गी वायू वेगळे केले. तशेंच क्षय जावपी प्रमाणाचें स्वरूप अर्द आयुश्यान म्हणजे सुरवातीक आशिल्ल्या द्रव्यांतलें निम्म्या द्रव्याचो क्षय जावपाक लागपी काळांत व्यक्त करुं येता म्हणपाचें किरणोत्सर्गी द्रव्यांच्या क्षयत्वरेच्या अभ्यासावयल्यान दिसून आयलें. क्षय पावपी किरणोत्सर्गी द्रव्यांपसून वेगळीं केल्ल्या मूलद्रव्यांची वळख पटली तेन्ना खबर आशिल्ल्या मूलद्रव्यांकडेन तांचें सारकेपण दिसून आयलें. ताचेउपरांत रेडिओ रसायनशास्त्रांत जायते सोद लागले. तातूंत जे. जे. टॉमसन, फ्रान्सिस विल्यम ॲस्टन, नील्स बोर, ल्वी व्हीक्टॉर द ब्रॉग्ली, एर्व्हीन श्रोडिंजर, व्हेर्नर कार्ल हायझेनबेर्क, हेन्री ग्विनजेफ्रिझ मोझली, सर जेम्स चॅडविक, गिलबर्ट न्यूटन ल्यूइस आनी अर्विंग लँगम्यूर हांणीं म्हत्वाचे सोद लायले.

रसायनशास्त्रासंबंदीत कांय मुखेल संस्था : १९१९ वर्सा ऑक्सफर्ड हांगा इंटरनॅशनल युनियन ऑफ प्युअर अँड ॲप्लायड

कॅमेस्ट्री ही आंतरराश्ट्रीय संघटणा स्थापन जाली. तिचे मुखेल हेतू अशे आशिल्ले - वांगडी देशांतल्या रसायनशास्त्रांतलें सहकार्य सतत वाडोवप; ज्या आंतरराश्ट्रीय म्हत्वाच्या विशयांविशीं नेम मानकीकरण वा संकेतावली थारावप गरजेचें आसता अशा आंतरराश्ट्रीय म्हत्वाच्या विशयांचो अभ्यास करप आनी शुध्द आनी अनुयुक्त रसायनशास्त्रांतल्या सगळया गजालींचे उदरगतीक हातभार लावप, हे संस्थेचे ४२ देश वांगडी आसात (१९८७). हे संस्थेचेवतीन प्युअर अँड ॲप्लायड केमिस्ट्री (म्हयनाळें) आनी केमिस्ट्री हें व्दैमासिक प्रसिद्द जाता.

रॉयल सोसायटी ऑफ कॅमिस्ट्री ही संस्था केमिकल सोसायटी आनी रॉयल इन्स्टिटयूट ऑफ केमिस्ट्री हांच्या एकत्रीकरणांतल्यान १९८० वर्सा लंडनाक स्थापन जाली. हे संस्थेचे वतीन प्रसिद्द जावपी प्रकाशनांः केमिस्ट इन ब्रिटन (म्हयनाळें), प्रोफेशनल बुलेटीन (वर्सांतल्यान ९ खेपे), जर्नल ऑफ द केमिकल सोसायटी, एज्युकेशन इन केमिस्ट्री तशेंच रशियन जर्नल ऑफ फिजिकल केमिस्ट्री, रशियन जर्नल ऑफ इनऑर्गॅनिक केमिस्ट्री आनी रशियन केमिकल रिव्ह्यूज हे अणकार आनी स्पेशलिस्ट पिरिऑडिकल रिपोर्टस्, ॲनॅलिटिकल ॲब्स्ट्रॅक्स आनी केमिकल बिझिनेस न्यूज बेस हांचेविशींच्यो माळो (मालिका).

Societe Francaise de chimie (फ्रेंच केमिकल सोसायटी) ही पॅरिसची संस्था १८५७ वर्सा स्थापन जाल्ली आसून तिचेवतीन चार नेमाळीं प्रसिद्द जातात.

अमेरिकन केमिकल सोसायटी ही संस्था १८७६ वर्सा स्थापन जाली आनी जर्नल ऑफ द ए. सी. एस्. केमटेक, केमिकल अँड इंजिनियरिंग न्यूज, इंडस्ट्रियल अँड इंजिनिअरिंग केमिस्ट्री, ॲनॅलिटिकल केमिस्ट्री, केमिकल ॲब्स्ट्रॅक्ट्स अँड इट्स व्हेरियस सर्व्हिसेस, जर्नल ऑफ फिजिकल केमिस्ट्री हीं नेमाळीं हे संस्थेच्या आसऱ्याखाल उजवाडाक येतात.

अमेरिकन इन्स्टिटयूट ऑफ केमिस्टस् ही बेथेस्डा हांगाची संस्था स्थापन जाली. हे संस्थेचें द केमिस्ट हें म्हयनाळें आनी प्रोफेशनल डिरेक्टरी हीं वर्सान वर्स प्रसिध्द जातात.

निपॉन कागा कुवाय (केमिकल सोसायटी ऑफ जपान) ही टोकियोची संस्था १८७८ वर्सा स्थापन जाली. तिचीं तीन जपानी आनी दोन इंग्लीश नेमाळीं प्रसिद्द जातात.

Gesellshaft Deutscher Chemiker (सोसायटी ऑफ जर्मन केमिस्ट्स) हे संस्थेची स्थापना १९४६ वर्सा फ्रँकफूर्ट हांगा जाली. तिचीं ५ म्हयनाळीं, एक व्दिमासीक आनी एक सातोळें प्रसिद्द जाता.

हांचेभायर रशियेंत चांगचुन इन्स्टिटयूट ऑफ ॲप्लायड केमिस्ट्री (चांगचुन, स्थापणूक १९४८), इन्स्टिटयूट ऑफ ॲप्लायड केमिस्ट्री (पीकिंग, स्थापना १९५६), नॅशनल कमिटी ऑफ सोव्हिएत केमिस्ट्स (मॉस्को) ह्यो संस्था आसात.

भारतांतली इंडियन केमिकल सोसायटी ही संस्था १९२४त कलकत्ता हांगा स्थापन जाली. ती इंडियन केमिकल सोसायटी जर्नल हें म्हयनाळें प्रसिद्द करता. तशेंच भारतांत रसायनशास्त्रांतल्या वेगवेगळया फांट्यांनी, संशोधन करपी कांय संस्थांचीं नांवां अशीं आसात. १) नॅशनल फिजिकल लॅबोरेटरी (NPL) - १९५० दिल्ली, २) सेंट्रल इलेक्ट्रॉनिक्स इंजिनिअरींग रिसर्च इन्स्टिटयूट (CEERI) - १९५३ पिलानी (राजस्थान), ३) सेंट्रल सायंटिफिक इन्स्ट्रूमेंट्स ऑर्गनायझेशन (CSIO) - १९५९ चंडीगढ, ४) नॅशनल जिओफिजिकल रिसर्च इन्स्टिटयूट (NGRI) - १९६१ (हैदराबाद), ५) नॅशनल इन्स्टिटयूट ऑफ ओशनोग्राफी (NIO) - १९६६ (पणजी), ६) नॅशनल केमिकल लॅबोरेटरी (NCL) - १९५० (पुणें), ७) सेंट्रल इलेक्ट्रोकेमिकल रिसर्च इन्स्टिटयूट (CECRL) - १९५३ (कराईकुडी), ८) सेंट्रल सॉल्ट अँड मरीन केमिकल्स रिसर्च इन्स्टिटयूट (CSMCRI) - १९५४ (भावनगर), ९) रिजनल रिसर्च लॅबोरेटरी (RRL)- १९५६ (हैदराबाद), १०) रिजनल रिसर्च लॅबोरेटरी (RRL) - १९५९ (जोरहाट), ११) इंडियन इन्स्टिटयूट ऑफ पेट्रोलियम (IIP) - १९५९ (डेहराडून), १२) सेंट्रल फूड टेक्नोलॉजिकल रिसर्च इन्स्टिटयूट (CFTRI) - १९५० (म्हैसूर), १३) सेंट्रल ड्रग रिसर्च इन्स्टिटयूट (CDRI) - १९५१ (लखनौ), १४) सेंट्रल लेदर रिसर्च इन्स्टिटयूट (CLRI) - १९५३ (अड्यार, चेन्नई), १५) इंडियन इन्स्टिटयूट ऑफ केमिकल बायॉलॉजी (IICB) - १९५६ (दिल्ली), १७) नॅशनल बोटॅनिकल रिसर्च इन्स्टिटयूट (NBRI) - १९५३ (लखनौ), (१८) रिजनल रिसर्च लॅबोरेटरी (RRL) - १९५७ (जम्मू - तावी), १९) सेंट्रल इन्स्टिटयूट ऑफ मेडिसिनल अँड ॲरोमॅटिक प्लँट्स (CIMAP) - १९५९ (लखनौ), २०) इंडस्ट्रियल टॉक्सिकॉलॉजी रिसर्च सेंटर (ITRC) - १९६५ (लखनौ), २१) सेंटर फॉर सेल्युलर अँड मॉलिक्युलर बायॉलॉजी (CCMB) - १९७७ (हैदराबाद), २२) इन्स्टिटयूट ऑफ मायक्रोबियल टेक्नॉलॉजी (IMTECH)- १९८४ (चंडीगढ), २३) सेंट्रल फ्यूएल रिसर्च इन्स्टिटयूट (CFRI) - १९५० (बिहार), २४) सेंट्रल ग्लास अँड सिरॅमिक रिसर्च इन्स्टिटयूट (CGCRI) - १९५० (कलकत्ता), २५) नॅशनल मेटॅलर्जिकल लॅबोरेटरी (NML) - १९५० (जपशेटपूर), २६) सेंट्रल रोड रिसर्च इन्स्टिटयूट (CRRI) -१९५२ (दिल्ली), २७) सेंट्रल बिल्डींग रिसर्च इन्स्टिटयूट (CBRI)- १९५१ (रूडकी), २८) सेंट्रल मायनिंग रिसर्च स्टेशन (CMRS) - १९५६ (बिहार), २९) सेंट्रल मेकॅनिकल इंजिनियरिंग रिसर्च इन्स्टिटयूट (CMERI) - १९५८ (दुर्गापूर) ३०) नॅशनल एनव्हायरनमेंटल इंजिनिअरिंग रिसर्च इन्स्टिटयूट (NEERI) - १९५८ (नागपूर), ३१) नॅशनल एरॉनॉटिकल लॅबोरेटरी (NAU) -

१९५९ (कोडीहळ्ळी - बेंगलोर), ३२) रिजनल रिसर्च लॅबोरेटरी (RRL) - १९६४ (भुवनेश्वर), ३३) स्ट्रक्चरल इंजिनिअरींग रिसर्च सेंटर (SERC) - १९६५ (रूडकी), ३४) स्ट्रक्चरल इंजिनिअरिंग रिसर्च सेंटर (SERC) - १९६५ (चेन्नई), ३५) रिजनल रिसर्च लॅबोरेटरी (RRL) - १९७६ (त्रिवेंद्रम), ३६) रिजनल रिसर्च लॅबोरेटरी (RRL) - १९८१ (भोपाळ), ३७) टी रिसर्च ॲसोसिएशन (TRA) - १९६४ (कलकत्ता), ३८) इलॅक्ट्रीकल रिसर्च अँड डेव्हलपमेंट ॲसोसिएशन (ERDA) - १९७८ (मुंबय), ३९) इंडियन नॅशनल सायंटिफिक डॉक्युमेंटेशन सेंटर (INSDOC) - १९५२, ४०) पब्लिकेशन्स अँड इन्फर्मेशन डायरेक्टोरेट (PID) - १९५१ आनी ४१) नॅशनल इन्स्टिटयूट ऑफ सायन्स, टेक्नॉलॉजी अँड डेव्हलपमेंट स्टडीज (NISTADS) - १९७३.

भारतांतलीं आनी हेर देशांतलीं कांय म्हत्वाचीं रसायनशास्त्राविशींचीं नेमाळीं अशीं आसात -

केमिकल बुलेटीन (१९१४, शिकागो); जर्नल ऑफ केमिकल एज्युकेशन (१९२४, न्यूयॉर्क); केमिकल रिव्ह्यूज (१९२४, वॉशिंग्टन); जर्नल ऑफ जॅपनीज केमिस्ट्री (१९४७, टोकिओ); केमिस्ट्री इन कॅनडा (१९४९, ओटावा); जर्नल ऑफ जनरल केमिस्ट्री ऑफ द यू.एस.एस.आर. (१९४९, न्यूयॉर्क); केमिकल अँड फार्मॅस्युटिकल बुलेटीन (१९५३, टोकिओ); चायनीज केमिकल सोसायटी जर्नल (१९५४, तैपेह); मॉस्को युनिव्हर्सिटी केमिस्ट्री बुलेटीन (१९६०,न्यूयॉर्क); रशियन केमिकल रिव्ह्यूज (१९६०, लंडन); सोव्हिएत प्रोग्रेस इन केमिस्ट्री (१९६६, न्यूयॉर्क); केमिकल सोसायटी, लंडन रिव्ह्यूज (१९७२; लंडन); केमिस्ट्री लेटर्स (१९७२, टोकिओ); इंटरनॅशनल न्यूज लेटर ऑन केमिकल एज्युकेशन (१९७४, ऑक्सफर्ड) आनी जर्नल ऑफ केमिकल रिसर्च (१९७७, लंडन).

इन्स्टिटयूशन ऑफ केमिस्ट्स (इंडिया); जर्नल (१९२९, कलकत्ता); केमिकल एज ऑफ इंडिया (१९४९, मुंबय, ५,५००); केमिकल वीकली (१९५६, मुंबय, ५,०००); इंडियन जर्नल ऑफ केमिस्ट्री; सेक्शन ए : इन ऑरगॅनिक, फिजिकल, थिओरेटिकल अँड ॲनॅलिटिकल केमिस्ट्री (१९६३, नवी दिल्ली, १४००); इंडियन जर्नल ऑफ केमिस्ट्री सेक्शन बी : ऑर्गॅनिक अँड मेडिकल केमिस्ट्री (१९७६,नवी दिल्ली); केमिकल इरा (१९६४, कलकत्ता); केमिकल्स इंटरनॅशनल (१९६५, नवी दिल्ली ५,७६०); इंडियन केमिकल जर्नल (१९६६, मुंबय, ४५००); केमिकल अँड पेट्रोकेमिकल्स जर्नल (१९७०, मुंबय, ४,०००); केमिकल टेक-ऑफ (१९७१, नवी दिल्ली, ६,०००); केमिकल टायम्स (मुंबय) आनी इन्स्टिट्यूट ऑफ कॅमिस्टस् (इंडिया), प्रोसिडिंग्ज (कलकत्ता).

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : जीवरसायनशास्त्र.

**रसूल, मीर :** (जल्म : सुमार १८२२; मरण : सुमार १८७०). नामनेचो काश्मीरी कवी. ताच्या जल्म-मरणाविशीं निश्चीत म्हायती तशेंच ताच्या हेर चरित्राविशीं म्हायती उपलब्ध ना. ताच्या काव्यांतले कांय आनुषंगिक निर्देश आनी परंपरा हांच्या आदारान ताचें कोंगी हिचेकडेन प्रेमसंबंद आसले, तशेंच ताणें तरणेपणांत अभिजात फार्सी काव्याचो अभ्यास केल्लो, अशीच म्हायती मेळटा. ताचे प्रतिमासृश्टींत अभिजात फार्सी कवी निजामी - ए - गंजवी हाचे प्रतिमासृश्टीचें पडबींब पडलां अशें आसुनूय फार्सींतलीं नांवां आनी गूण विशेशण, तशेंच वाक्प्रचार काश्मीरींत हाडून रूढ करपाचें श्रेय रसूल मीराक दितात. मीराचें वेगळेंपण म्हळयार ताणें गूढवादी परंपरेची आनी मस्नवी प्रकारची रूढ फास्की आत्मविश्वासान आनी मोट्या धिरान सोडून दिवन, आपली स्वतंत्र आनी वेगळी काव्यरचना केली. ताणें आपली लौकीक स्वरुपाची विशुध्द प्रेमकविता ईश्वराविशींच्या प्रेमाच्या गर्भितार्थान घुस्मटूंक दिलीना. ताच्या गितांनी भावनेचो, उत्स्फुर्ततायेचो, माधुर्याचो आनी संपन्न लयीचो एक स्वर भरिल्लो आसा. ओडलायणी शैली, तिच्यांतलें ऐंद्रिय आव्हान आनी नादमधुर शब्दकळा हांका लागून तो एकुणिसाव्या शेंकडयांतलो सर्वश्रेश्ठ काश्मीरी गीतकार म्हणून नामनेक पावला.

श्रीनगरच्या 'गुलाम मोहंमद नूर मोहमंद' प्रकाशनान मीराच्या कांय गितांचो संग्रह 'बहार-ए-गुल्शन-ए-काश्मीर नांवान उजवाडायलो. एम्. युसूफ तेंग हाणें मीराचे जिणेचेर आनी कृतीचेर १९६० त एक पुस्तिका संपादीत केली. ती काश्मीरच्या 'कल्चरल अकादमी' न उजवाडायली. ताच्या नांवार 'जैब निगार' नांवाची एक मस्नवीही सांगल्या. पूण ती आजमेरेन उपलब्ध जावंक ना.

दुरू शाहबादाक मीराचें दफन केलें. थंय ताची कबर आसा. ताचे कबरीक आयज कितलेशेच काश्मीरी कवी आनी लोक भेट दितात आनी नव्या आशयान काश्मीरी काव्य समृध्द करपी ह्या श्रेश्ठ कवीचे स्मृतीक आपलीं आर्गां ओंपतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रसेल, बर्ट्रांड :** (जल्म : १८ मे १८७२, ट्रेलेक - इंग्लंड; मरणः २ फेब्रुवारी १९७०, पेन्रिन - डायड्रायथ).



विसाव्या शेंकडयांतलो एक श्रेश्ठ अस्तंती तत्त्ववेत्तो. तत्त्वज्ञानांतल्या विश्लेशणवादी म्हणून वळखतल्या पंथाची बुन्याद रसेलान जी.

ई. मूर हाच्या सहकारान घाली आनी तर्कशास्त्र, ज्ञानमीमांसा आनी तत्त्वमीमांसा ह्या तत्त्वज्ञानाच्या फांट्यांतल्या समस्यांचेर म्हत्वाचे आनी मोलाचे विचार मांडले.

ताचें पुराय नांव बट्रांड आर्थर विल्यम रसेल बट्रांड. रसेल हो पयल्या 'रिफॉर्म बिला' चो शिल्पकार म्हणून नामना आशिल्ल्या ब्रिटीश प्रधानमंत्री लॉर्ड जॉन रसेल हाचो नातू. तो चार वर्सांचो आसतना ताच्या आवय-बापायक मरण आयलें. तेन्ना ताचो सांबाळ ताचे आजयेन केलो. ती धर्मीक आनी विरक्त वृत्तीची आनी खंबीर मनाची बायल आशिल्ल्यान तिचे शिकवणेचो खोल प्रभाव ताचेर पडलो.

ताचें मुळावें शिक्षण खाजगी शिक्षकाकडल्यान आनी उपरांतचें शिक्षण कँब्रीज विद्यापिठांतल्यान जालें. भुरगेपणासावन ताका गणिताची आवड आसली. गणितांतले सिध्दांत निश्चीतपणान खरे आसात अशें मानपी आदार सोदपाखातीर रसेल तत्त्वज्ञानाच्या अभ्यासावटेन गेलो.

१८९० वर्सा ताणें कँब्रीज विद्यापिठांत प्रवेश करून, गणित आनी तत्त्वज्ञान ह्या विशयांचो अभ्यास केलो. १८९५त तो ट्रिनिटी कॉलेजीचो व्याख्यातो जालो. आल्फ्रेड नॉर्थ व्हायटहेड (१८६१-१९४७) हो कांय काळ ताचो गुरू आसलो. फकत तर्कशास्त्राच्या मूळतत्त्वांचेर गणिताची उबारणी करून दाखोवपी ''प्रिन्सिपिया मॅथेमॅटिका'' (३ खंड १९१० गणिताचीं तत्त्वां) हो ग्रंथ रसेल आनी व्हायट हेड ह्या दोगांनीय मेळून बरयलो. १९१४ त सुरू जाल्ल्या म्हाझुजान ताका मानसीक धक्को बसून, ताची सगळी जीण ह्या काळासावन खऱ्या अर्थान सुरू जाली. ताणें ह्या झुजाक विरोध केलो. ताचो परिणाम म्हणून ताका ट्रिनिटीमदल्या व्याख्यात्याच्या पदावयल्यान काडलो.

१९१६ वर्सा प्रिन्सिपल्स ऑफ सोशल रिकन्स्ट्रक्शन आनी १९१८ त रोड्स टू फ्रिडम ह्या समाजीक तत्त्वज्ञानाचेर ताणें पुस्तकां बरयलीं. कादयेंत आसतना ताणें १९१८ वर्सा ''इंट्रडक्शन टू मॅथॅमॅटिकल फिलॉसॉफी'' हो ग्रंथ बरयलो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत रसेलाचें लक्ष तत्त्वज्ञानाकडल्यान हेर गजालींवटेन गेलें. ह्या काळांत ताणें समाजीक विशयांचेर भरपूर लिखाण केलें. १९२९ वर्सा ताणें 'मॅरेज ॲण्ड मोरल्स' आनी १९३० 'कॉंक्वेस्ट ऑफ हॅपिनेस' ही समाजीक विशयांचेर पुस्तकां बरयलीं. १९२१ वर्सा 'दी ॲनालिसिस ऑफ मायंड' आनी १९२७ त दी 'ॲनालिसिस ऑफ मॅटर' हीं तत्त्वज्ञानाचेर पुस्तकां उजवाडायलीं. १९४० वर्सा ताणें हार्वर्ड विद्यापिठांत व्याख्यानां दिल्लीं. तीं ताणें ॲन इंक्वायरी इण्टू मिनिंग ॲंड ट्रूथ ह्या नांवान उजवाडा हाडलीं. १९०० वर्सा 'अक्रिटिकल एक्सपोझिशन ऑफ द फिलॉसॉफी ऑफ लायब्नित्स' आनी १९४५ वर्सा 'अ हिस्टरी ऑफ वॅस्टर्न फिलॉसॉफी' हीं पुस्तकां उजवाडा आयलीं.

१९३८ वर्सा शिकागो विद्यापिठाचो आनी फुडल्या वर्सा कॅलिफोर्निया विद्यापिठाचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९३९ वर्सा न्यूयॉर्क शारांतले कॉलेजींत प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. १८९८ च्या सुमारक कॅंब्रीजांतल्या सहकारी जी. ई. मूर हांचे वांगडा तात्त्वीक मतभेद जाले. सगळे संबंद आंतरीक आसतात. सिध्दांताचो ताणें त्याग करून विश्व हो एकमेकांपरस स्वतंत्र आशिल्ल्या वस्तुंचो आनी वस्तुस्थितींचो समुदाय आसा ह्या अनेकतायवादी सिध्दांताचो ताणें स्विकार केलो.

रसेल गणिताकडल्यान तत्त्वज्ञानावटेन आनी तर्कशुध्द बसकेचेर गणिताची कशी उबारणी करप हो ताचो प्रश्न आशिल्लो. १९०० वर्सा पॅरिसांत भरिल्ल्या आंतरराश्ट्रीय तत्त्वज्ञान परिशदेंत ताचो जुझेप्पे पेआनो (१८५८ - १९३२) हाच्या अंकगणितावयल्या संशोधनाकडेन परिचय आयलो. पेआनोच्या अंकगणिताचे तर्कशुध्द रचनेपसून प्रेरणा घेवन ताणें हे रचनेक स्वता रचिल्ल्या संबंदांच्या तर्कशास्त्राची जोड दिवन तर्कशास्त्रांतल्या मूलभूत संकल्पनांची व्याख्या करूं येता आनी तर्कशास्त्राच्या मूलभूत सिध्दांतापसून अंकगणिताचे मूलभूत सिध्दांत प्राप्त करूं येतात हें सिध्द करपाचो यत्न केलो.

व्यक्तीस्वातंत्र्य, समाजीक समता आनी आंतरराश्ट्रीय शांतताय, ह्या उद्दीश्टांखातीर चलयतल्या कितल्याश्याच आंदोलनांनी ताणें वांटो घेतलो. बायलांक मतदानाचो हक्क मेळोवन दिवपाखातीर त्या वेळार चालू आशिल्ले 'सफरेज' चळवळींत वांटो घेतलो.तो समाजवादाचो प्रचार करपी फेबीयन सोसायटीचो वांगडी आसलो. १९२७ वर्सा ताणें भुरग्यांखातीर शाळा सुरू केली. पिरायेच्या ८९ वर्सांचेर ताणें अणवस्त्राचेर बंदी घालची आनी मानववंशाचें अणू झुजासावन संरक्षण जावचें म्हणून चळवळ केली. ताचो परिणाम म्हणून ताका सात दिसांची बंदखणीची ख्यास्त फावो जाल्ली. १९१८ वर्सा ब्रिटनचो इश्ट राश्ट्र आशिल्ल्या अमेरिकन सैन्याची चाडी केल्ल्याच्या आरोपावयल्यान ताका स म्हयन्यांची बंदखणीची ख्यास्त फावो जाली.

१९४९ वर्सा ऑर्डर ऑफ मॅरिट हो ब्रिटीश किताब ताका फावो जालो. १९५० वर्सा साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

आधुनिक मनशामुखार आशिल्ल्या म्हत्वाच्या नैतिक, समाजीक, राजकीय आनी अर्थीक प्रश्नांचेर रसॅलान मोलाचें आनी अभिनव विचार मांडपी भरपूर लिखाण करून एक क्रांतीकारी विचारवंत म्हणून संसारांत नामना जोडल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**रस्किन, जॉन :** (जल्म : फेब्रुवारी १८१९, लंडन; मरण : २० जानेवारी १९००, कोनिश्टन).

इंग्लीश साहित्यिक, समिक्षक आनी कलावंत. ताचो बापूय एक वेपारी, पूण ताका चित्रकलेंत रस आशिल्लो. रस्किनाचें मुळावें शिकप आवय-बापायन घरचे घराच केलें. तांच्या रसिक,

सुसंस्कृत व्यक्तिमत्वांचे संस्कार रस्किनाचेर जाल्ले. बापायवांगडा ताणें खूबशा कलादालनांक भेटीय दिल्यो. तशेंच बऱ्याबऱ्या साहित्यकृतींचें



वाचनूय केलें. कॉप्ली फिल्डिंग ह्या चित्रकाराकडल्यान ताणें चित्रकलेचे धडे घेतले. 'डलिज गॅलरी' ह्या नांवान वळखतल्या चित्रसंग्रहांतल्या चित्रांनी ताका प्रेरणा मेळ्ळी आनी ह्या चित्रांनीच ताच्या कलेच्या विचारांक बुन्याद घाली. १८३६ वर्सा ऑक्सफर्डाच्या क्रायस्ट चर्च कॉलेजींत रस्किनान प्रवेश घेतलो. थंय ताणें पद्दतशीर अशें कांयच केलें ना, तरी काव्यरचनेखातीर दवरिल्लें, 'न्यूडिशेट पारितोषिक' (१८३९) मेळयलें. १८४२ त तो पदवीधर जालो. फुडें 'मॉडर्न पेंटर्स' हो पांच खंडांतलो ताचो पयलो ग्रंथ उजवाडाक आयलो.

इंग्लीश सैमचित्रकार टर्नर हांच्या चित्रांचेर कला समिक्षकांनी केल्ले टिकेखातीर मॉडर्न पेंटर्साचो पयलो खंड बरोवपांत ताका स्फूर्त मेळ्ळी. तातूंत ताणें खास कलानिर्मिती फाटलीं तत्त्वां सांगून टर्नरच्या चित्रकृतींतल्या कलागुणांचें विवेचन केलें. कलेच्या संदर्भांत कल्पनाशक्तीचें कार्य, सैमीक चित्रांच्या रसग्रहणाचो इतिहास, वेगवेगळ्या तपशिलांच्या आंगान सैमीक चित्रांचो अभ्यास हांचो आस्पाव ह्या ग्रंथाच्या खंडांत केल्लो आसा. 'द सेवन लॅम्स ऑफ आर्किटॅक्चर (१८४९), द स्टोन्स ऑफ व्हेनिस (१८५१- ५३), अंटू धीस लास्ट आनी सेसमी अँण्ड लिलीज (१८६८) हे रस्किनाचे हेर उल्लेख करपासारके ग्रंथ. गॉथिक कलेचो भौमान करप आनी प्रबोधन काळांत कलेचेर खर टिका करप हो हे ग्रंथ कलेफाटलो ताचो हेतू आसलो. प्रबोधनकाळांत कलेचो प्रकर्ष व्हॅनिसांत जालो. ते कलेचे थंयचे नमुने तोखणाय करपासारके नात जाल्यार ती कला हेर खंयच मोटेंपण घेवंक शकचीना अशें ताचें मत आशिल्लें. व्हिक्टोरिया कालखंडांत, इंग्लंडांत गॉथिक कलेचो जो पुनर्जल्म जालो, त्या संदर्भांत रस्किनाचो हो ग्रंथ म्हत्वाचो मानतात.

ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत १८६९ वर्सा 'स्लेड प्रॉफेसर ऑफ आर्ट' म्हणून रस्किनाची नेमणूक जाली. जिणेचे अखेरेक ताणें 'प्रिटेरीटा' हें आत्मचरित्र बरयलें.

व्हिक्टोरीया काळांत रस्किन एक भोवढंगी व्यक्तिमत्व आसलें. कलाक्षेत्रावांगडा सैमविज्ञान, राज्यशास्त्र, अर्थशास्त्र ह्या विशयांत ताका आवड आशिल्ल्यान एका खास विशयाचेर पुराय लक्ष दिवंक तो शकलोना असो ताचेर आक्षेप घेवप जाता. इटली आनी इंग्लंड ह्या देशांतल्या प्रबोधनकाळांत कलेपलतडी ताचो अभ्यास चडसो वचूंक नासलो आनी कलासमिक्षा ह्या क्षेत्राचो विस्तारूय जावंक नासलो. अशा काळांत रस्किनान कलासमिक्षात्मक लिखाण केलें. ताका लागून ताच्या ह्या लिखाणाच्यो मर्यादा ह्यो एका अर्थान ताच्या काळाच्यो मर्यादा आसात.

सामर्थ्य आनी सादेंपण हांचो प्रत्यय दिवपी रस्किनाचे शैलीचेर बायबलाच्या किंग जेम्स आवृत्तीचे संस्कार जाल्ले दिसतात. ताच्या विचारांचेरूय बायबलाचो प्रभाव आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रहमान, शेख मुजीबूर :** (जल्म : १७ मार्च १९२०, तोंगीपारा -फरीदपूर - बंगाल; मरण : १५ ऑगस्ट १९७५, ढाक्का).

बांगलादेशाचो संस्थापक, पयलो प्रधानमंत्री, पयलो राश्ट्राध्यक्ष आनी सुटके चळवळीचो व्हड फुडारी. ताणें कलकत्ता आनी ढाक्का विद्यापिठांतल्यान राज्यशास्त्र आनी कायद्याची पदवी



घेतली. ताचे बायलेचें नांव फझीलातेनेसा. ताका हसीना आनी रेहाना ह्यो दोन चलयो, तशेंच शेख कमाल, शेखजमाल आनी रसेल हे तीन चले. ताची हसीना वजेद ही चली फुडें सक्रीय राजकारणांत पडली आनी बांगलादेशाची प्रधानमंत्री जाली.

विद्यार्थीदशेंतूच ताका राजकारणाविशीं आवड निर्माण जाल्ली. भारताचे सुटके चळवळींत वांटो घेतिल्ल्यान ताका कांय काळ बंदखण भोगची पडली. ताणें उदेंत पाकिस्तानाक स्वायत्त राज्य आसचें हेखातीर वांगड्यांच्या आदारान 'अवामी लीग' पक्षांची स्थापणूक केली (१९४९). फुडें ह्याच पक्षाचो तो सचीव जालो (१९५३). उपरांत डिसेंबर १९७०त नव्या संविधानाप्रमाण भौशिक वेंचणुको जाल्यो. हातूंत रहमानाच्या अवामी लीगान संघीय विधीमंडळांत ३०९ तल्यो १६७ आनी प्रांतिक विधीमंडळांत २७९तल्यो २६९ सुवाती जिखून भोवमत मेळयलें. जेन्ना ताणें असहकाराचें धोरण धरलें तेन्ना ताका धरून उदेंत पाकिस्तानांत लस्करी कायदो लादलो. इतलें करूनय पाकिस्थानाचे अस्थीर परिस्थितीचेर नियंत्रण दवरूंक जालेंना. तेन्ना अयुबखानान शांतता हाडपाक जनरल टिक्काखानच्या फुडारपणाखाल सैन्य धाडलें. ह्या सैन्यान ताळमेळ दवरिनासताना अत्याचार केले. मुक्तवाहिनीन देशाच्या स्वातत्र्याचें सशस्त्र झूज आनीकय खर केलें. शिमेभायर बांगला देशाचें सरकार स्वांतत्र्याखातीर यत्न करताले. बंगाली भाशीक एकठांय येवन ह्या झुजाचें स्वरूप आनीकय खर केलें. लाखांनी हिंदू - मुसलमान

निर्वासीतांनी भारताचो आश्रय घेतलो. ते खातीर भारतीय मुक्तवाहिनीक मदत करूंक उदेंत पाकिस्तानांत सैन्य धाडले बगर भारतामुखार दुसरो पर्याय उरलोना. भारत - पाकिस्ताना मदीं हे झूज १४ दीस चललें.

१६ डिसेंबर १९७१त उदेंत पाकिस्तानांतल्या पाकिस्तानाच्या सैन्यान शरणांगती आपणायली. १ जानेवारी १९७२ त पाकिस्तानाचो तेन्नाचो राश्ट्राध्यक्ष भुट्टो हाणें शेख मुजीबूर हाची सोडवणूक केली. तेन्ना तो बांगलादेशाचो पयलो प्रधानमंत्री जालो आनी अबू सय्यद चौधरी राश्ट्राध्यक्ष जालो. मुजीबान राश्ट्रवाद, धर्मनिरपेक्षताय, लोकशाय, समाजवाद ह्या चार गजालींचेर लक्ष केंद्रीत केलें. तेखातीर ताणें अंतर्गत सुदारणांची मोहीम आंखून अलिप्ततायेचें परराश्ट्रीय धोरण जाहीर केलें. उपरांत १९७३ त सार्वत्रिक वेंचणुको घेतल्यो. हातूंत अवामी लीग पक्षाक भोवमत मेळ्ळें. चौधरीन राजिनामो दिलो तेन्ना सगळी सत्ता मुजीबूराकडेन केंद्रीत जाली. फुडें मुजीबूराच्या सोयऱ्यांनी भ्रश्टाचार केल्ल्याचें दिसलें. तातूंतूच ताचें भारत धार्जिणें धोरण ताच्या वांगड्याक आवडलें ना. ताका लागून ताची लोकप्रियताय उणी जाली आनी राज्यांत असुरक्षिततायेचें वातावरण निर्माण जालें. तेन्ना मुजीबान आणिबाणी जाहीर केली डिसेंबर १९७४. ताणें राश्ट्राध्यक्षपद आपलेकडेन घेतलें आनी भौपक्षीय पद्धतीचेर नियंत्रण घालून विरोधी पक्ष बरखास्त केले. देशांत अध्यक्षीय राजवटीची घोशणा करून सगळी सत्ता आपल्या हातांत घेतली. पूण ताची ही सत्ता फक्त सातूच म्हयने तिगली. १५ ऑगस्ट १९७५ दिसा लश्करी उठाव जावन अकस्मात सत्तांतर घडून आयलें आनी तातूंत शेख मुजिबुराची ताच्या घरच्यांसयत हत्या जाली.

ताचो मूळ पींड हो समाजवादी कार्यकर्त्याचो आशिल्लो. ताणें असहकाराच्या तत्त्वाप्रमाण घटनात्मक मार्गांनी सत्ता हस्तगत केली.

- कों. वि. सं. मं.

**रहिमतखाँ :** (जल्मः जून १९२२).

हिंदुस्थानी संगितांतलो ग्वाल्हेर घराण्याचो नामनेचो गायक. श्रेश्ठ गायक हद्दूखाँ हांचो तो धाकलो पूत. ताच्या गोड गळयाखातीर 'भूगंधर्व' ह्या नांवान महाराष्ट्रांत ताची नामना आसली. आपल्या बापायकडल्यान ताणें गायनाचें शिक्षण घेतलें. बापायच्या मरणाउपरांत ताचोच गुरूभाव आसपी सर्कसंचालक विष्णुपंत छत्रे हाणें ताका बनारसाच्यान हाडून ताचो भावाप्रमाण सांबाळ केलो.



महाराष्ट्राक ताच्या गावपाची वळख विष्णुपंतानूच करून दिली. रहिमतखाँ फुडें दक्षिण महाराष्ट्रांत कुरूंदवाडकरांच्या दरबारांत रावलो. रहिमतखाँचो आवाज सुमाराभायर गोड सुरेल, बारीक, नेटाचो आनी खणखणीत आसलो. ताची तान सामकी चपळ, अतिशय सभावीक आनी लयेचे नदरेन अचूक आसली, म्हणून ताका 'तानेक कप्तान' म्हण्टाले. गोविंदराव टेंबे हाणें ताचे तानेचें वर्णन 'म्हींवांत बुडयल्लो द्राक्षांचो घोंस' अशें केल्लें आसा. कुरूंदवाडाक ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**रहीम :** (इ.स. १५५६ - १६२६).

एक हिंदी भक्तकवी. ताचें पुराय नांव अब्दुर्रहीम खाँ खानखाना. ताच्या बापायचें नांव बहरमखान. रहीम पांच वर्सांचो आसतनाच ताच्या बापायचो खून जालो. ताका लागून रहीमाचें पालनपोशण अकबराचे देखरेखीखाला जालें. बेचाळिसाव्या वर्सा ताचे बायलेक मरण आयलें. जांवय आनी तीन पुतूय सोंपले. ताका आलाशिरो दिवपी अकबरूय ताचेच हयातींत सोंपलो. हे सगळे आघात रहीमान व्हड धिरान सोंसले. कुटुंबीक जिणेंत ताका केन्नाच सूख मेळ्ळेंना. ताच्या काव्यांत ताच्यो ह्यो व्यथा दिसतात.

रहीम अजरामर जालो तो एक कवी म्हणून. अकबराच्या दरबारांतल्या हिंदी कवींमदीं ताका म्हत्वपूर्ण स्थान आशिल्लें. त्या काळांतल्या समाजीक आनी साहित्यिक प्रवृत्तींचो तो प्रतिनिधी आशिल्लो. अरबी, फारशी, तुर्की आनी संस्कृत ह्यो भासो ताका बेस - बऱ्यो येताल्यो. अवधी आनी ब्रज ह्या भाशांचेर ताचें प्रभुत्व आशिल्लें. भारतीय संस्कृतायेची वळख जावंची म्हणून ताणें संस्कृत भाशेचो अभ्यास केलो. ताच्या जायत्या नितीविशींच्या दोह्यांचेर संस्कृत कवींची छाप दिसता.

रहीमाच्या आंगांत राजकारणाक लागपी जायते गूण आशिल्ले. त्या गुणांनी प्रभावीत जावन अकबरान ताका पाटणाची जहांगीरी दिल्ली (१५७२). मागीर गुजराताच्या जैता उपरांत अकबरान ताका गुजराताची सुभेदारी दिली (१५७६). गुजरातांत जाल्ली बंडाळी ताणें स्वपराक्रमान शांत केली देखून अकबरान ताका खानखाना ही पदवी दिली. इ.स. १६०४त शहाजादा दानियालाचें मरण आनी अबुल फजलाचो खून जालेउपरांत अकबरान रहीमाक दक्षिणेचो सगळो अधिकार दिलो. जहाँगिराच्या काळांतूय कांय वर्सां ताका सन्मान मेळत रावले. पूण उपरांत शहाजहानाचो पक्ष घेतिल्ल्यान जहांगिरान ताका कांय काळ बंदखणींत दवरलो. बंदखणींतल्यान सुटले उपरांत मात ताका पयलींचे कांयच अधिकार परत मेळळे नात.

उच्च कोटीचो कवी म्हण रहीमाची नामना आशिल्ली. तेचवांगडा कवींचो आनी विद्वानांचोय तो आश्रयदातो आशिल्लो. विद्वान आनी कवी हांचे विशींचें रहीमाचें उदारपण हें इतिहास आनी आख्यायिका

हांचो विशय जालां. केन्नाय आनी खंयूय कोणाय कवींच्या तोंडांतल्यान जर अर्थपूर्ण छंद वा दोहा आयकलो म्हणजे तो मंत्रमुग्ध जातालो आनी रोखडोच त्या कवीची संभावना करतालो. गंग कवीचो छंद आयकून रहीमान ताका छत्तीस लाख रुपयांचो पुरस्कार दिल्लो अशें सांगतात.

उदारपण आनी सम्राटाची अवकृपा ह्या दोनूय गजालींक लागून जिविताचे अखेरेक रहीम निर्धन आनी निराश्रीत जालो. अशे अवतिकायेंत तो चित्रकुटाचेर रावतालो. तरीय पूण कवी ताचेकडेन याचना करपाखातीर वतालेच.

सामान्य निती आनी सद्गूण हांचेर रहीमान जायते दोहे बरयल्यात. तातूंतलो एक असो :

दीन सबनको लखत है, दीनही लखे न कोय।
जो रहीम दीनही लखे, दीनबंधु सम होय।।

**अर्थ :** दीन मनीस सगळयांच्या तोंडाकडेन आशेन पळयत आसता. पूण ताचेकडेन मात कोणूच पळयना. रहीम म्हणटा, जो मनीस गरिबांचो विचार करता तो दीनबंधू परमेश्वरासमान आसता.

रहीमाच्या हिंदी काव्यांत बरवै नायिकाभेद, रहीम दोहावली आनी मदनाश्टक हे ग्रंथ प्रसिद्द आसात. शृंगार, निती आनी भक्ती हे ताच्या काव्याचे मुखेल विशय. विष्णु आनी गंगा हांचेविशींच्यो ताच्यो कविता उल्लेखनीय आसात. नायिकाभेद हो ग्रंथ ताणें बरवै छंदांतूच बरयला. तुलसीदासाक बरवै रामायण बरोवपाची प्रेरणा रहीमाकडल्यानूच मेळळी अशें म्हण्टात. बरवै भायर रहिमान दोहा, सोरठा, कवित्त, सवैया, मालिनी सारकिल्ल्या जायत्या छंदांचो उपेग केला. रहीमाच्या काव्यानूच हिंदी भाशेक गिरेस्तकाय लाबल्या.

हाचेभायर रहीमरत्नावली, रहीमविलास, रहीमनविनोद, रहीमकवितावली, रहीमचंद्रीका, रहीमनशतक हे ताचे काव्यसंग्रह प्रसिद्द आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**रॅड क्रॉस :** एक मानवहीतवादी, सेवाभावी आनी स्वयंसेवी अशी आंतरराश्ट्रीय वैजकी संस्था. सुरवेक झुजांत जखमी जाल्ल्या वा पिडेस्त सैनिकांचीच सेवा करप हो हे संस्थेचो मूळ उद्देश आशिल्लो. उपरांत मानवी हालअपेश्टा, कश्ट, त्रास टाळप वा ते उणे करपाचो यत्न करप, तेचपरी सैमीक वा मानवनिर्मीत अरिश्टां पयस करप, पिडेस्तांक आदार दिवप, तांची सेवा करप हीं कांमां संस्था करूंक लागली.

झां आंरी द्युना (१८२८ - १९१०) हाका रॅड क्रॉस चळवळीचो जनक मानतात. पूण ते आदीं १५८६ वर्सा रोमाच्या सेंट पिटर्स इगर्जेंतल्या कांय धर्मगुरूंनी, जखमी जाल्ल्यांची सेवा करपाखातीर एक संस्था स्थापन केल्ली. त्याच सुमाराक फ्रांसाचो सत्ताधीश, चवथो लुई आनी फ्लॉरेन्स नाइटिंगेल (१८२० - १९१०) हांणी झुजांतल्या जखमी सैनिकांची सेवा करपाचे असंघटीत यत्न केल्ले.

१८६३ वर्सा जखमी सैनिकांच्या आदाराखातीर मैशीक कल्याणकारी संस्थेचे पांच स्वीस नागरीक द्यूनां, ल्वी, आपप्या, ग्युस्ताव्ह मोइन्ये आनी तेओदॉर मून्ये हांची जिनीव्हांत आंतरराश्ट्रीय समितीची बसका भरली. हाकाच १८८० त रॅड क्रॉसाची आंतरराश्ट्रीय समिति हें नांव दिलें. हे समितीन २६ ते २९ ऑक्टोबर दिसा जिनीव्हांत बसका घेतली. हातूंत चवदा देश आनी जायत्यो धर्मादाय संस्था हांचे प्रतिनिधी हजर आशिल्ले. हे बसकेंत रॅड क्रॉसाचीं मूलभूत तत्त्वां आनी बोधचिन्न निश्चीत केलें. ८ ते २२ ऑगस्ट १८६४ मदीं जिनिव्हांत एके राजकी परिशदेंत जिनीव्हा झूजसंकेत निश्चीत केले. तेप्रमाण जिनीव्हा कबलातीचेर निशाणी करपी देशांचेर झुजांत जखमी जाल्ल्या दोनूय वटांतल्या सैनिकांची जतनाय तटस्थपणान करपाची जबाबदारी घाली. हे कबलातीक मदर कन्व्हेंशन म्हण्टात. फुडें त्या त्या वेळार ह्या संकेतांत सुदारणा करून तातूंत फेरमांडणी केली. अशे तरेन १९०७ वर्सा दर्याझुजांतल्या सैनिकांचो, १९२९ वर्सा जखमी झुजबंद्यांक आनी १२ ऑगस्ट १९४९ दिसा बिगर लश्करी वा असैनिकी नागरिकांचो आस्पाव केलो.

**संस्थेचीं मूलभूत तत्त्वां :** मानवतेच्या तत्त्वांक स्मरून मानसीक दुख्ख उणें करप आनी एकामेकांमदीं सहकाराची भावना चालीक लावप. निपक्षपातीपण - देश, वंश, धर्म, श्रध्दा वर्ग, लिंग, जात वा राजकी मतप्रणाली हातूंत भेदभाव करप ना.

तटस्थताय : खंयच्याच राजकी, वांशिक, धर्मीक वादांत पडप ना.

स्वातंत्र्य : स्वायत्तताय अबादीत दवरप जाका लागून त्या त्या देशांतल्या कायद्याचे शिमेंत रावन रॅड क्रॉसाच्या तत्त्वांचेर काम करप शक्य जाता.

एकताय : (अद्वितीयता) : एका देशांत एकूच रॅड क्रॉस संस्था.

सर्वव्यापी स्वरूप : ही संवसारव्यापी संघटणा आसून तिचेभितर सगळया समाजाक समान दर्जो आसता.

बोधचिन्न : धवेफुल्ल फाटभुंयेचेर अदीक चिन्नावरी तांबडी फुली हें हे संघटणेचें बोधचिन्न आसून ताचेवयल्यानूच संघटणेक रॅड क्रॉस हें नांव पडलें. द्यूना हो स्वित्झर्लंडाचो नागरीक आशिल्ल्यान, त्या देशाच्या मानाक तांबडे फाटभुंयेवयली धवी फुली आशिल्ल्या राश्ट्रध्वजावयल्या रंगाची अदलाबदल करून हें चिन्न तयार केलां. इस्लामी राश्ट्रांनी तांबडे फुलीजाग्यार धवे फाटभुंयेचेर चंद्रकोर (रॅड क्रॉसँट), इराणांत तांबडो सूर्य आनी शींव (रॅड लायन अँड सन) आनी इझ्राएलांत तांबडें डेव्हिडाचें नखेत्र असो ह्या बोधचिन्नांत बदल केल्लो आसा.

**संवसारीक रॅड क्रॉस चळवळ :** (अ) रॅड क्रॉसाची आंतरराश्ट्रीय समिती, (आ) राश्ट्रीय रॅड क्रॉस संस्थांचो संघ (द लीग ऑफ रॅड क्रॉस सोसायटीस) आनी (इ) राश्ट्रीय रॅड क्रॉस संस्था. हाचेभायर आंतरराश्ट्रीय रॅड क्रॉस परिशद ही हे चळवळींतलो म्हत्वाचो दुवो.

**आंतरराश्ट्रीय रॅड क्रॉस परिशद :** रॅड क्रॉसाविशींच्या सगळ्या गटांचो आस्पाव आशिल्ल्या उपक्रमांक आंतरराश्ट्रीय रॅड क्रॉस म्हण्टात. दर चार वर्सांनी ही परिशद भरता. वयर उल्लेख केल्ल्या तिनूय घटकांभायर जिनीव्हा झूजसंकेताचेर निशाणी करपी देश हिचे वांगडी आसतात.

**रॅड क्रॉसाची आंतरराश्ट्रीय समिती :** १८६१ वर्सा स्थापन जाल्लें हें २५ स्वीस नागरिकांचें स्वायत मंडळ आसून जिनीव्हांत ताचें मुखेल कार्यालय आसा. नव्यो राश्ट्रीय संस्था आनी तांच्यो घटना हांकां मान्यताय दिवप हें तिचें म्हत्वाचें काम. झूज काळांत हे समितीचें मुखेल काम झुजांतल्या जखमींक आनी पिडेस्त सैनिकांक सांबाळप, तांची सेवा करप, तांच्या छावण्यांक भेटी दिवप, तांकां आदार दिवप, तांच्या घरच्यांक आनी तांच्या देशाक तांचें कुशल कळोवप, तांच्या पत्रवेव्हाराची वेवस्था पळोवप, जखमी झूज कैद्यांच्या अदलाबदलाची वेवस्था पळोवप, मेल्ल्यांचे निमाणे संस्कार योग्य तरेन करप असलीं कामां करता. हाचेभायर झुजाक लागून मनशांचें जावपी स्थलांतर, झुजांत सांपडिल्ल्या सामान्य नागरिकांचे हाल, तातुंतल्यान येवपी पिडा, उपासमार, वस्तू आनी वखदांचो उणाव हांकां लागून समितीचें काम झुजाउपरांतूय चालू उरता.

परागंदा सैनीक वा मनशाचो सोद घेवपाच्या कामांत आदार दिवपाखातीर हिची 'मध्यवर्ती सोद उपक्रम' (सँट्रल ट्रेसिंग एजन्सी) हो उपफांटो १८७० वर्सा स्थापन केला. जिनिव्हांत तिचें स्वतंत्र कार्यालय आसा.

दर वर्सा बऱ्यांतलें बरें काम करपी परिचारिकेक ही समिती 'फ्लॉरेन्स नाइटिंगेल' पदक दिता.

**राश्ट्रीय रॅड क्रॉस संस्थांचो संघ :** शांतताय काळांतलो आदार आनी उदरगतीविशींच्या कामाची आंखणी करप ह्या हेतान अनौपचारीक स्वरुपाची संघटना १९१९ वर्सा सुरू जाली. वेगवेगळ्या राश्ट्रीय संस्थांमदीं संपर्क सादप, आंतरराश्ट्रीय पातळीवयल्या मदत आनी बचाव कार्यांत एक सुत्रताय हाडप, ह्या संस्थांचें प्रतिनिधित्व करप, चड करून शांततायेच्या काळांत भलायकेविशीं सुदारणा करप, रोगप्रतिबंधक उपाय येवजप आनी वखदांची सोय करप तशेंच हुंवार, भुंयकांप, स्फोट, उजो, अपघात, वादळ, धरण फुटप, दुकळ ह्या सारक्या सैमीक आनी मानवनिर्मीत अरिश्टां वेळार आदर दिवपाक कायम स्वरुपाची यंत्रणा तयार दवरप ही ह्या संघाचीं म्हत्वाचीं कामां. संघाच्या रुग्णसेवा कार्यालयांत १९५१ वर्सा समाजसेवा ह्या विभागाचो आस्पाव केला. हो विभाग म्हायतीविशीं सेवा पावयता तशेंच रॅड क्रॉसाचे शिश्यवृत्तीखातीर उमेदवार वेंचता आनी सल्लो दिता. तशेंच रॅड क्रॉस रुग्णसेवा शाळा, रुग्णपरिचारिकांचे सहाय्यक आनी रुग्णसेवा शिक्षक हांच्या प्रशिक्षणाच्या संदर्भांत मार्गदर्शन करता.

**राश्ट्रीय रॅड क्रॉस संस्था :** जिनीव्हा झूजसंकेत मान्य आशिल्ल्या दर एका देशांत रॅड क्रॉसाची एकेक संस्था स्थापन केल्या. तिका राश्ट्रीय रॅड क्रॉस संस्था म्हण्टात. आंतरराश्ट्रीय रॅड क्रॉस समितीकडल्यान मान्यताय मेळोवपाखातीर राश्ट्रीय संस्थेक ह्यो अटी मान्य करपाच्यो आसतात. त्या देशाचें शासन जिनीव्हा संकेत मानपी आसूंक जाय. (२) संस्थेचें रॅड क्रॉस हें नांव आनी बोधचिन्न आपणावंक जाय. (३) तो देश आनी ताच्यो वसणुको हें सगळें संस्थेचें कार्यक्षेत्र आसून असो वावर करपी ती एकसुरी संस्था आसूंक जाय. (३) वंश, जात, वर्ग, राजकी मतप्रणाली वा धर्म हें लक्षांत घेनासतना संस्थेचें वांगडीपण देशांतल्या सगळ्यांखातीर उकतें आसूंक जाय. हेर देशांतल्यो राश्ट्रीय संस्था आनी आंतरराश्ट्रीय समिती हांचेकडेन संपर्क दवरपाक संस्थेक मान्य आसूंक जाय. (६) तिणें आपलीं कामां जिनीव्हा झूजसंकेतावरीच करूंक जाय.

बेल्जियम, फ्रांस, इटली आनी स्पेनांतल्यो राश्ट्रीय संस्था १८६४ वर्सा स्थापन जाल्यो. १९६० - ७० ह्या दशकांत अफ्रिकेंत २२ (१६ रॅड क्रॉस आनी ६ रॅड क्रॅसँट), उत्तर आनी दक्षिण अमेरिकेंत २३, आशियांत २५ (१८ रॅड क्रॉस, ६ रॅड क्रॅसँट आनी १ रॅड लायन अँड सन), ऑस्ट्रेलीयांत २ आनी युरोपांत २१ तशेंच रशियांत रॅड क्रॉस आनी रॅड क्रॅसँट अशी एक संयुक्त राश्ट्रीय संस्था स्थापन केली.

**शांततायेच्या काळांतलीं कामां :** हातूंत भलायली आनी समाजकल्याण हेविशींचीं जायतीं कामां येतात. देखीक - अपघात टाळपाचें शिक्षण, पेंवपाक शिकोवप, दर्यदिगांनी आनी रस्त्यार प्रथमोपचार केंद्रां चलोवप, आणिबाणी वेळार रुग्णवाहिकेची सेवा उपलब्ध करून दिवप आदी जायतीं कामां ही संस्था करता.

हाचेभायर ही संस्था रुग्णपरिचारिकेच्या सहाय्यकांक तशेंच वैजिणींक प्रशिक्षण दिता. कांय संस्थांनी शाळेंतल्या भुरग्यांच्या भलायकेचेर भर दिला जाल्यार कांय संस्था अनाथ भुरग्यांखातीर केंद्र चलयतात. तशेंच रुग्णालयां, वखदालयां, चिकित्सालयां चलोवप हेंय कांय रॅड क्रॉस संस्थांचें मुखेल काम आसा.

रॅड क्रॉसाच्यो कांय संस्था रक्तपेडयो चलोवपाचें काम करतात.

**भारतीय रॅड क्रॉस संस्था :** १९१३ वर्सा भारतीय कंपनी अधिनेमाप्रमाण रॅड क्रॉस असोसिएशनची नोंद जाली. बंगालाचो दुकळ आनी हेर सैमीक अरिश्टां वेळार हे संस्थेन मोलादीक वावर केलो. २७ मार्च १९२० दिसा त्या वेळावयल्या शासनाच्या अधिनेम १५

प्रमाण ब्रिटीश रॅड क्रॉसाचो फांटो म्हणून भारतीय रॅड क्रॉसाची स्थापना जाली. उपरांत पुराय देशांतले फांटे संघटीत केले.

भारतीय रॅड क्रॉस संस्थेची राज्य, जिल्हो आनी उपजिल्हो अशा तीन फांट्यांनी विभागणी केल्ली आसा. उपराश्ट्रपती तिचे पदसिध्द अध्यक्ष आसून राज्यपाल राज्यफांट्याचो अध्यक्ष आसता. भारतांतली कनिश्ठ रॅड क्रॉसाची सुरवात १९२६ वर्सा सुरू जाली. १९३० वर्सा तिची कायदेशीर नोंद जाली. १९७६ - ७७ वर्सा हातूंत रॅड क्रॉस युवक गटाची भर जाली.

भारतीय रॅड क्रॉस संस्था जे तरेचीं कामां करता तीं अशीं- पिडेस्तांचेर उपचार करप, कुटूंबकल्याणाविशीं शस्त्रक्रिया आनी तांचो प्रचार करप, धामीच्या पिडांआडचे लस तोपपासारके प्रतिबंधनात्मक उपाय आनी साथ येतकच तिच्या निवारणाचे उपाय येवजप, शारिरीक आनी मानसिक अपंगुळां खातीर शाळा चलोवप, सैनिकांक निवृत्ती उपरांतचे लाब मेळोवन दिवप, गुरवार आनी नव्या आवयांक सल्लो दिवप, आवय आनी भुरगें हांचीं कल्याण आनी मार्गदर्शन केंद्रां, अलर्क पिडेआडच्या लसीचें केंद्र, बालवाडी, बालसंगोपन आनी विकासकेंद्रां, घरगुती सेवा, प्रथमोपचार आनी शिवणकामाचे वर्ग, वैजकी तपासणी शिबिरां, रुग्णवाहिकासेवा, अपंगूळ सैनिकाखातीर पुनर्वसन केंद्रां चलोवप, रक्तपेडी आनी रक्तादान हेविशींचेंय काम भारतीय रॅड क्रॉस संस्था करता. रक्तदान जीवनदान १९६२ वर्सा संवसारीक भलायकी केंद्रा वतीन रक्तदानाची मोहीम हातांत घेतली. देशांत १४० केंद्रांच्या माध्यमांतल्यान दर वर्सा दोन लाख एकक रगत एकठांय करतात. रक्तदात्याकडल्यान मेळयिल्लें रगत हे संस्थेचेवतीन गरजू वायटकारांक दितात. १९९६ वर्सा दिल्लीत आयिल्ल्या डेंग्यू जोराचे धामीवेळार रॅड क्रॉस मुख्यालयान ८,००० एकक प्लेटलेटस उपलब्ध करून दिवन शेंकड्यांनी वायटकारांक मरणाच्या चपक्यांतल्यान सोडोवपाक आदार केल्लो.

देशभर पातळिल्ले प्रभावी यंत्रणेवरवीं स्वेच्छेन केल्ल्या रक्तदानाच्या माध्यमांतल्यान एकठांय जाल्ल्या रगताचो आनी तातुंतल्या घटकांचे साबार हॉस्पिटलांतल्ल्या वायटकारांक पुरवण करपी रॅड क्रॉस ही सगळ्यांत व्हड बिगर सरकारी संघटणा आसा. हाचेभायर भुंयकांप, हुंवार, दुकळ, उजो, अपघात, स्फोट, झूज ह्या सारक्या अरिश्टां वेळार देशांतल्या आनी परदेशांतल्या आपदग्रस्तांक, निराश्रीतांक आनी जखमींक अन्न, वस्त्रां, वखदां, उदक, पुस्तकां, वैजकी आनी करमणुकीची सेवा आनी साधनांची पुरवण करप तशेंच तांकां अर्थीक मदत दिवप हीं कामां रॅड क्रॉस संस्था करता.

**कनिश्ठ आनी युवक फांटे :** शाळा आनी म्हाविद्यालयांतलीं ५ ते २५ वर्सामेरेनचीं भुरगीं हे संस्थेचे वांगडी आसतात. संवसारीक आनी भारतीय रॅड क्रॉस चळवळीची म्हायती ल्हानपणांतूच करून घेवप. तशेंच हे चळवळीच्या तत्त्वांचो प्रसार करपाखातीर वेगवेगळे कार्यक्रम आनी उपक्रम हातांत घेवप हें तिचें मुखेल काम. हे संस्थेचे वांगडी आपल्या स्वताच्या आनी हेरांचे भलायकेची जतनाय घेवप, पिडेस्त आनी आपदग्रस्त भुरग्यांक आदार दिवप, संवसारांतल्या सगळया भुरग्यांक आपले इश्ट मानप हीं कामां करपाचो सोपूत घेतात.

भारतांत ह्या फांट्याचेवतीन जीं कामां जातात तीं अशीं - गरजेवंत आनी अपंगूळ विद्यार्थी, रुग्णालयांतले पिडेस्त हांचेकडेन इश्टागत करप, अरिश्टां वेळार निधी आनी मदत एकठांय करप, देशी - विदेशी विद्यार्थ्यांकडेन चिटींतल्यान इश्टागत करप, उत्सवाच्या आनी मिरवणुकीच्या वेळार, तशेंच रेल्वे, बसस्थानकांचेर प्रथमोपचार आनी सेवा केंद्रां चलोवप, फुडारपणाविशीं, तशेंच आंतरराज्य आनी आंतरराश्ट्रीय शिबिरां भरोवन इश्टागत वाडोवप, तशेंच श्रमदान, कपडे एकठांय करप, अपंगुळांचे मेळावे घेवप, वैजकी तपासणी शिबिरां भरोवप, नेत्रदान आनी कुश्ठरोगाविशीं जागृती निर्माण करप आदी वावर करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रॅम्झी, सर विल्यम :** (जल्म : २ ऑक्टोबर, १८५२, ग्लास्गो, स्कॉटलँड; मरण : २३ जुलय १९१६, हॅझ्लेमीर (हाय विकम (बकिंगहॅम)).

ब्रिटीश रसायनशास्त्रज्ञ. अक्रीय वायुचो सोद लावन तांचें आवर्त सारणींतलें म्हळयार इलॅक्ट्रोन रचनेप्रमाण केल्ल्या मूलद्रव्यांचे कोश्टकरूप मांडणेंतली सुवात निश्चित केल्लेखातीर ताका १९०४ वर्साचो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

तांचें १८७० वर्सा मेरेनचें शिकप स्कॉटलँडांतल्या ग्लास्गो शारांत जालें. फुडलें शिक्षण ताणें हायडल्‌बर्ग आनी ट्यूबिंगेनाक करतकच १८७२ वर्सा तो अँडरसन विद्यापिठांत गेलो. १८७३ वर्सा त्या विद्यापिठाची ताणें पीएच्.डी. पदवी मेळयली आनी थंयच तो पाठनिर्देश सहाय्यक म्हणून काम करूंक लागलो. १८८० वर्सा तो ब्रिस्टलच्या युनिव्हर्सिटी कॉलेजच्या रसायनशास्त्र विभागांत काम करूंक लागलो आनी १८८१ वर्सा तो थंयच प्राचार्य जालो. १८८७ तें १९१३ म्हळयार निवृत्त जायमेरेन तो युनिव्हर्सिटी कॉलेज, लंडन हातूंत आशिल्लो.

सुरवेक रॅम्झीचें संशोधन हें रसायनशास्त्राच्या सगळया फांट्यांतलें आशिल्लें. बिस्मथच्या नव्या खनिजापसून आल्कालॉयडांच्या शरीरक्रियाविज्ञानीक क्रियेमेरेनचो अभ्यास ताणें केलो आनी आल्कालॉयडां हीं पिरिडिनाकडेन संबंदीत आसात हें दाखोवन दिलें. उपरांत मात ताणें आपलें लक्ष अकार्बनी आनी भौतिकी रसायनशास्त्राचेर केंद्रीत केलें.

रॅम्झी आनी सिडनी यंग हांणी मेळून रसायनीक नदरेन सारक्या आशिल्ल्या दोन द्रवांचो बाश्पदाब ज्या तापमानांक एकूच आसता त्या तापमानांचें गुणोत्तर ह्या बाश्पदाबाचेर आदारिल्लें नासता अशें सांगपी 'रॅम्झी - यंग नेम' सोदून काडलो आनी १८८७ वर्सा तांणीं सुको आमोनिया आनी हायड्रोक्लोरिक आम्ल हांची विक्रिया जायना अशें सिध्द केलें.

१८९२ वर्सा लॉर्ड रॅली हाका, प्रयोगशाळेंत तयार केल्ल्या आनी हवेंतल्यान वेगळो काडिल्ल्या नायट्रोजन वायुचे घनतायेंत फरक आसता अशें दिसलें. ते खातीर ताणें हो फरक किद्याक लागून येता हे विशीं खूबशा रसायनशास्त्रज्ञांकडेन भासाभास केली. तेन्ना नायट्रोजनांतल्या ओझोनासारक्या जड वायूक लागून घनतायेंत फरक येता अशें रॅलीक दिसलें. हाची खात्री करून घेवपाखातीर रॅम्झीन संशोधन सुरू केलें. तेन्ना वातावरणांतल्या नायट्रोजनांत आनीकय कांय जड वायू आशिल्ल्याचें रॅम्झीक समजलें. तेन्नाच ताणें हवेंतल्यान ऑक्सिजन आनी नायट्रोजन पुराय वेगळे करपाच्या तंत्राचो सोद लायलो. हे वायू हवेपसून वेगवेगळे करतकच उरिल्ल्या भागांत अज्ञात असो वायू सामक्या उण्या प्रमाणांत ताका दिसलो. १८९४ वर्सा रॅली आनी रॅम्झी हांणीं नवो वायू 'आरगॉन' सोदून काडिल्ल्याचें जाहीर केलें. हाचेपयलीं १७८५ वर्सा हॅन्री कॅव्हॅंडिश हाका ह्या वायुचें अस्तित्व होलमल्लें. ऑरगॉनाचे उच्च घनतायेक लागून वातावरणांतल्या नायट्रोजनाची घनताय चड येता, हे अशे तरेन सिध्द जालें. १८९५ वर्सा ऑरगॉनाखातीर नवो उद्‌गम सोदपाखातीर रॅम्झीन क्लिव्हायट खनीज आनी आम्ल तापोवन नवो वायू तयार केलो. ह्या वायूपसून सुर्यावयलो हिलियमा सारको वर्णपट मेळटा अशें ताका कळ्ळें. अशे तरेन पयलीं मेळिल्लो हो हिलियम वायू हवेंत खूब उण्या प्रमाणांत आसता अशें उपरांत समजलें. हिलियम आनी ऑरगॉन हे वायू रसायनीक नदरेन क्रियाशील नात अशें दिसतकच तांकां अक्रिय वायू अशें नांव पडलें.

अक्रिय वायूंक आवर्त सारणींत सुवात नाशिल्ली तरीय ते आवर्त प्रणालींत घट बसले. आवर्त सारणींतली तांची सुवात थारायतना आनीक कांय अक्रीय वायू आसूंयेत अशें दिसलें. १८९८ वर्सा रॅम्झी आनी एम्. डब्ल्यू. ट्रॅव्हर्झ हांणी द्रव हवेंतल्यान ऑक्सिजन आनी नायट्रोजन वेगळे करून उरिल्ल्या द्रवांतल्यान निऑन, क्रिप्टॉन आनी झेनॉन हे अक्रिय वायू सोदून काडले.

रॅम्झी हाका किरणोत्सर्गी म्हळयार भेदक कण वा किरणां भायर उडोवपी खनिजांवांगडा हिलियम आसता हें खबर आशिल्ल्यान ताणें फुडें आपलें लक्ष किरणोत्सर्गाचेर केंद्रीत केलें. १९०३ वर्सा रॅम्झी आनी एफ. सॉडी हांकां रेडियमापासून हिलियमा भाशेन निर्मिती जाता अशें दिसलें. रेडियमाच्या उत्सर्जनाक लागून मेळपी द्रव्याची घनताय थारायतना १९१० वर्सा रॅम्झी आनी व्हिट्लॉ ग्रे हांकां नवो वायू मेळ्ळो. ताका 'रेडॉन' म्हण्टात. अशे तरेन तांणीं सगळे अक्रिय वायू सोदून काडले.

रॅम्झीक नोबॅल पुरस्काराभायर आनिकूय भोवमान फावो जाल्यात, ते अशे - १८८८ वर्सा रॉयल सोसायटीचें फॅलोपद, १८९५ वर्सा डेव्ही पदक, १९०२ वर्सा 'नायट' हो किताब. ताणें बरयल्लीं कांय पुस्तकां अशीं - ए सिस्टिम ऑफ कॅमिस्ट्री (१८९१), द गॅसीस ऑफ द ॲटमॉस्फिअर (१८९६), इंट्रोडक्शन टू द स्टडी ऑफ फिजिकल कॅमिस्ट्री (१९०४), एलॅमॅंट्स ॲंड इलॅक्ट्रॉन्स (१९१३).

१९१० वर्सा रॅम्झी भारतांत आयिल्लो आसतना ताका टाटा घराण्याकडल्यान मेळिल्ले देणगेंतल्यान एक शास्त्रीय संशोधन शाळा उबारून तिचो विकास करपाक खूब आदार जालो. ह्याच यत्नांनी बेंगळूराक इंडियन 'इन्स्टिटयूट ऑफ सायन्स' ही संस्था १९११ वर्सा सुरू जाली.

- कों. वि. सं: मं.

## रॅली, जॉन विल्यम स्ट्रट

**रॅली, जॉन विल्यम स्ट्रट :** (जल्मः १२ नोव्हेंबर १८४२, लॅंगफर्ड ग्रोव्ह, मॉल्डनलागसार, एसेक्स; मरणः ३० जून १९१९, विटाम, एसॅक्स).

ब्रिटीश भौतिकीविज्ञ. म्हत्वाच्या वायुंचे घनतायेविशीं केल्ल्या संशोधनाखातीर आनी सर विल्यम रॅम्झी हाचेवांगडा आर्‌गॉन ह्या अक्रीय वायुचो सोद लायिल्लेखातीर रॅली हाका १९०४ वर्साचो भौतिकीचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

रॅलीचें शिकप कॅंब्रिजाचे ट्रिनिटी कॉलेजींत जालें. १८६५ वर्सा ताका स्मिथ इनाम मेळून तो सिनियर रॅंग्लर जालो. १८६६ - ७१ ह्या काळांत तो ट्रिनिटी कॉलेजीचो फॅलो आशिल्लो. १८७३ वर्सा तो बापायच्या फाटल्यान वारसाहक्कान रॅली घराण्याचो तिसरो बॅरन जालो. जे. सी. मॅक्सवॅल हाच्या मरणा उपरांत रॅली हो कॅंब्रिज चे कॅव्हॅंडिश प्रयोगशाळेचो मुखेल जालो (१८७९ - ८४). उपरांत तो रॉयल इन्स्टिटयुटांत निसर्गविज्ञानाचो प्राध्यापक आशिल्लो (१८८७ - १९०५). रॅलीन स्फोटक द्रव्यांसंबदींच्या सरकारी समितीचो स वर्सां अध्यक्ष म्हणून आनी १८९६ ते १९१९ ह्या काळांत ट्रिनिटी हाऊसाचो विज्ञानीक सल्लागार म्हणून काम केलां.

रॅलीच्या सुरवातीच्या संशोधन कार्यांभितर मळबाच्या निळया रंगाचें स्पश्टीकरण म्हळयार आकाशवर्ण, जॉन टिंडल हाच्या सिध्दांताक आदार दिवपी आनी वातावरणांतल्या सुक्ष्म कणांनी केल्लें प्रकाशाचें प्रकीर्णन आनी सूर्यप्रकाशांची तरंगलांबाय हांचो संबंद दाखोवपी ताणें माडिल्लें समीकरण प्रसिद्द आसा. ताणें येवजिल्ल्या सुक्ष्मग्राही प्रयोगांक लागून विद्युत् रोध, विद्युत् प्रवाह आनी विद्युत् चालक प्रेरणा हांची मानका म्हळयार प्रमाणां प्रस्थापीत जावपाक खूब आदार जालो. लॉर्ड रॅली हाणें ध्वनीशास्त्र, तरंग सिध्दांत, वर्णदृश्टी, विद्युत्

गतिकी, विद्युत् चुंबकत्व, प्रकाशाचें प्रकीर्णन, द्रवगतिकी, वायुंची घनताय, श्यानताय म्हळ्यार दाटसाण, कैशिकताय, स्थितिस्थापकताय आनी छायाचित्रण अशा भौतिकींतल्या विविध फांट्यांनी संशोधन केलें.

रॅलीक रॉयल सोसायटीच्या वांगडीपणाचो (१८७३) आनी कॉप्ली, रॉयल आनी रम्फर्ड ह्या पदकांचो सन्मान मेळ्ळो. तो रॉयल सोसायटीचो सचिव (१८८५ - ९६) आनी १९०५ - १९०८ ह्या काळांत अध्यक्षय आशिल्लो. ब्रिटीश सरकारान ताच्या शास्त्रीय कार्याच्या भोवमानाखातीर ताका ऑर्डर ऑफ मॅरिट (१९०२) हो किताब दिलो आनी प्रिव्ही काउन्सिलर ह्या पदाचेर ताची वेंचणूक जाली.

द थिअरी ऑफ साऊंड (१८७७ - ७८, २ खंड), हो ताचो ध्वनिविशींचो ग्रंथ, तातुंतले कंपनीची मीमांसा आनी कंप्रता थरोवपाची पद्दत हांचेखातीर प्रसिद्द आसा. ताचें हेर शास्त्रीय कार्य सायंटिफिक पेपर्स (१८९९- १९२०, ६ खंड) ह्या नांवाखाल उजवाडा आयलां. तातुंतलो स्थितिस्थापकीय तरंगांविशींचो सिध्दांत चड उल्लेख करपासारको आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**राऊत :** एक जात. हे लोक चड करून मध्य प्रदेशांत आनी हेर कडेन कांय प्रमाणांत मेळटात. तांच्या मानववंशाची निश्चीत अशी म्हायती मेळना. पूण रिस्लेच्या मतान तांचेभितर आर्यं रगत भरसल्लें आसा. ह्या लोकांचो अहीर, कवार आनी कोल ह्या जातींकडेन मिलाप जाल्लो आसुंये.

झासपूरच्या राऊतांमदीं बडाईक, नाईक आनी परप अशो तीन पोटजाती आसात. हे लोक जानवें घालतात. दुल्हादेव आनी पितर हांकां भजतात. तांच्या घरांत वा गांवांत देवप्रतिमा आसनात. गांवांतलो बेंगा हो तांचो पुरयत; तो ग्रामदेवता आनी दोंगरांतलीं भुतांखेतां हांची पुजा करता. तांचेमदीं देवकां आसात. तांचेमदीं वारसाचे नेम हिंदुंच्या नेमांपरस वेगळे आसात. बंगालांतल्या रावतांमदीं व्हडल्या चल्याक बापायची सगळी आस्पत मेळटा. ताणें आपल्या धाकट्या भावाच्या निर्वाहाखातीर किदेंय तरी नेमणूक करची पडटा. व्हडलो भाव मेल्यार ताची बायल धाकट्या भावाकडेन लग्न जाता. तिच्या भुरग्यांक बापायचे आस्पतीचेर पुराय हक्क मेळटा. मध्य प्रदेशांतल्या राऊतांमदीं व्हडल्या चल्याक सगळी संपत्ती मेळना, पूण धाकट्या भावापरस देडपट चड वांटो मेळटा.

गोरवां पोसप हो तांचो मुखेल वेवसाय. गोपाळकृष्ण हो तांचो कुळदेव. हाचेभायर हे लोक दुल्हादेव आनी गोसाईदेव हांकांय भजतात. पूण तांचो मुखेल उपास्य देव म्हळ्यार सॅहडा. सॅहडा म्हळ्यार सांड वा पुश्ट बैल.

गोबरधनसुंदाना नांवाचो एक उत्सव हे लोक करतात. तातूंत शेणाची व्हडली रास करून ती पांयांपोंदा माड्डितात. हो उत्सव दिवाळे तेंपार जाता. ह्या वेळार हे लोक दर एके गायेच्या गळ्यांत सुहाई म्हळ्यार राखणेचें कट्टें बांदतात. भडक भेस करतात. हड्ड्यार कांकाडे आनी फाटीर मोरापांख हें ह्या भेसांतलें म्हत्वाचें आंग आसता. असो भेस करून दिवाळेचे परबेक हे लोक वाड्यावाड्यांनी भोंवतात. ह्या उत्सवांत नवाखाई नांवाचो आनीक एक विधी आसता. हाचो अर्थ नवान्नप्राशन असो आसा. मातरपुजा ही तांची खास पुजा आसून, मातर देवतेक ते कोंबे, रानदुकर हांचो बळी दितात आनी बळीपशूक गायच्या पांयांखकयल माडयतात. आपल्या गोरवांक रोगराय जावंची न्हय देखून हें पुजापर्व आसता.

लग्ना वेळार हे लोक दुल्हादेवाची पुजा करतात. तिचो विधी असो - व्हंकलेक पालखेंत बसोवन लग्नाच्या थळार व्हरतात. उपरांत थंय एका बोकडाक कुराडीन मारतात. ताचें रगत घरांतल्या तांदळार शिंपडायतात आनी न्हवऱ्या - व्हंकलेचें बरें जावंचें म्हणून तीन खेपे प्रार्थना करतात. तांचेमदीं मडें लासपाची चाल आसा. पूण गरीब, ल्हान भुरगीं आनी अपघातान मेल्ल्या मनशांक पुरतात. झासपुरचे राऊत मडें पुरतात. पुरताना मड्याची तकली उत्तरेकडेन आनी तोंड मळबाकडेन करतात.

छत्तीसगड प्रदेशांतले राऊत स्वताक कृष्णाच्या वंशांतलो म्हळ्यार अहिरा वा गहिरा अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**रांगोळी :** भारतांतलो एक पारंपारीक कलाप्रकार. संस्कृत भाशेंत ताका रंगवल्ली अशें म्हण्टात. पुर्विल्ल्या काळांत रांगवळी असो उल्लेख करताले. खाशेले धवें चूर्ण चिमटेंतल्यान भुंयेचेर सोडून रेखिल्ले आकृतायेक रांगोळी अशें म्हण्टात. रांगोळी काडप (घालप) ही एक कला. हे कलेचो उगम धर्मांतल्यानूच जाला. मनीस रांगोळी केन्नासावन



घालूंक लागलो आनी रांगोळेची पयली रेग कोणे काडली हाची निश्चीत म्हायती मेळप कठीण. रांगोळी ही मूर्तीकला आनी चित्रकला.

हाचे पयलींची कला, इतलेंच ह्या संदर्भांत म्हणूं येता. चवसठ कलांमदली ही एक कला असो उल्लेख वात्सायनाच्या कामसूत्रांत आसा.

खंयचेय धर्मीक वा मंगल कामाक रांगोळी गरजेची आनी मुळावी गजाल. खंयचोय सण, परब, पवित्र सुवाळो आदी शुभ प्रसंगां वेळार धर्मकृत्याचे सुवातेर सगळ्यांत पयलीं रांगोळी घालपाची रीत आसा. कोणाकूय ओंवाळटना ओंवाळपाक बशिल्ल्या मनशाच्या पाटाभोंवतणीं तशेंच पाटामुखार रांगोळी घालतात. जेवणावेळारूय पाटाभोंवतणीं आनी पानांभोंवतणीं रांगोळी घालतात. दिवाळेचे परबेंत दारासामकार वा आंगणांत तरातरांच्यो रांगोळयो घालून उपरांत तातूंत तरांतरांचे रंग भरतात. पुर्विल्ल्या काळांत दर एकल्याच्या घरामुखार सकाळीं फुडें शेण - शिंताडो घालून रांगोळी घालपाची प्रथा आशिल्ली. रांगोळी शिरमुळयाच्या चुर्णान घालतात. कोंकणांत भाताचीं कल्लां लासून जाल्ल्या धव्या गोबराचोय उपेग रांगोळी घालपाक करतात. रांगोळेचें पीठ भरभरीत आसता. ताका लागून चिमटेंतल्यान तें सहज पडटा. हालींसरा रंगी बेरंगी रांगोळेची पूड सर्रास मेळटा. तशेंच रांगोळी घालपाची उपकरणांय आता उपलब्ध जाल्यांत. जमनीक शेण काडले उपरांत ताचेर रांगोळेच्यो चार रेगो मुजरत घालतात. अशें केलेंना जाल्यार शेण सारयल्ले जमनीक अशूभ मानतात.

सौंदर्याचो दिश्टावो आनी मंगलाची सिध्दताय हेच रांगोळी घालपाफाटले दोन मुखेल हेतू. रांगोळेंतल्यो आकृतायो ह्यो प्रतिकात्मक आसतात. चड करून वांकडया रेगांचो उपेग रांगोळेंत करतात. थिपके, त्रिकोण, चवकोन, वाटकुळां हांच्या आदारान सोबीत आकृतायो घालतात. चवकोनाचे कोनशे मात केन्नाच मेकळे दवरिनात. ह्या कोनशांचेर चड करून त्रिदळाची आकृताय रेखतात. त्रिदळाक त्रिभुवन, तीन देव, तीन अवस्था आनी त्रिकाल अशा विश्वतत्त्वाचें प्रतीक मानतात. अशींच कांय प्रतिकां म्हळयार शंख, स्वस्तिक, चंद्र, सूर्य, नागयुग्म, अष्टदल, कमळ. व्हडल्या चवकोनांतले बारकेले चवकोन खाशेले पद्धतीन कुकमान भरतात. हाचेभायर टिपक्यांची रांगोळी काडपाचीय चाल आसा. पयलीं जमनीचेर मेजून कांय टिपके घालतात आनी मागीर ते उब्या-आडव्या रेगांनी जोडून तातुंतल्यान मोर, कांसव, वेल, कमळ आदी आकृत्यो निर्मितात. ही रांगोळी चड करून बायलोच घालतात. हालीं तेंपार दादलेय हे कलेंत रस घेतना दिसतात. रांगोळीच्या सर्तींनी बायलांवांगडा दादलेय वांटेकार जातात आनी इनामां जोडटात.

आकृतीप्रधान आनी वल्लरीप्रधान अशे रांगोळेचे दोन मुखेल प्रकार आसात. धान्यां आनी कडुणां वापरून, फूलां वापरून, विंगड विंगड तरांचीं चुर्णां, पावडर, रंग वापरूनय रांगोळी घालतात. उदकाचेर लेगीत उफेवपी रांगोळी घालतात. हालीं तेंपार फेविकॉलांत रंग घोळोवनूय रांगोळी घालतात.

भारतांतल्या हिंदू समाजांत रूढ जाल्लो हो पारंपारीक कलाप्रकार अशें म्हळयार जाता. सण, परबो, मंगल समारंभ, पुजा, कुलाचार, कुलधर्म, संस्कारविधी, व्रतां वैकल्यां हांचेकडेन ही कला संबंदीत आशिल्ली दिश्टी पडटा. तेच प्रमाण जैन, पारशी ह्या धर्मांनीय हिंदू धर्माप्रमाणूच अशुभनिवारक आनी शुभप्रद म्हणून मंगल सुवाळयां वेळार रांगोळी घालतना पळोवंक मेळटा. हालींसरां रांगोळी घालपाच्यो सर्ती जातात. दोन हजार वर्सांपयलींची ही कला आजुनूय तग धरून आसा.

राजस्थानांत हिका 'मांडणा', सौराष्ट्रांत 'सय्या', मध्यप्रदेश आनी उत्तरप्रदेशांत 'चौकपूरना' वा 'सोनाररव्ना', आंध्र प्रदेशांत 'मुग्गू', बिहारांत 'अरीपण' वा 'अयपन', तमीळनाडूंत 'कोलम', केरळांत 'पुविडल', ओरिसांत 'झुंटी', बंगालांत 'अलिपना', गुजरातांत 'साथिया', कर्नाटकांत 'रंगोली' जाल्यार महाराष्ट्र आनी गोंयांत रांगोळी ह्या नांवांनी वळखतात.

वात्सायनाच्या कामसुत्रांत चवसठ कलांचे वळेरेंतूय रांगोळेचो उल्लेख केल्लो आसा. पुर्विल्ल्या मराठी वाङमयांतूय रांगोळेचे बरेचकडेन निर्देश आयिल्ले पळोवंक मेळटात. नलचंपून (इ. स.१० वो शेंकडो) उत्सवा वेळार घराफुडें रांगोळी घालताले असो उल्लेख आसा. नाम चिंतामणी (इकरावो शेंकडो) ह्या ग्रंथांतूय जेवणाच्या प्रसंगावेळार रांगोळेचो उल्लेख जाता. हेमचंद्राचे (११ वो १२ वो शेंकडो) देशी नाममाला ह्या ग्रंथांत, तांदळाच्या पिठान रांगोळी घालताले असो उल्लेख मेळटा. मानसोल्लासांत (बारावो शेंकडो) आनी श्री कुमार हाच्या शिल्परत्नांत 'धूलिचित्र' ह्या नांवान रांगोळेचो उल्लेख केल्लो मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**राखी पुनव :** एक परब. ही परब श्रावण म्हयन्यांतले पुनवे दिसा मनयतात. ह्या दिसा भयणीन भावाक राखी बांदपाचो सुवाळो जाता. राखी बांदपाची ही प्रथा कशी आनी केन्ना सुरू जाली हाची म्हायती हेमाद्रीन चतुर्वर्ग चिंतामणी हातूंत (व्रतखंड - अध्याय) भविश्योत्तर पुराणांत इंद्राणीची कृष्णान युधिष्ठिराक सांगिल्ली कथा दिल्या. हे कथेप्रमाण असुरांकडल्यान हार खाल्ल्या इंद्राची दुर्दशा जाले उपरांत इंद्राणीन ताच्या उजव्या हाताक राखी बांदली. ते राखीच्या प्रभावान ताणें असुरांक सडेतोड जाप दिली. राखीचो प्रभाव वर्सभर उरता आशिल्ल्यान शुक्राचार्यान असुरांक वर्सभर वाट पळोवपाक सांगलें. तेरवातीर दर वर्सा राखी बांदप म्हळयार राखीच्या प्रभावाचें पुनरूज्जीवन करप अशें जाता. मूळचे प्रथेप्रमाण राखी ही राजांखातीर आशिल्ली आनी राजपुरयतान ती राजाच्या उजव्या हाताक मंत्रक म्हणून बांदप असो नेम आशिल्लो.

ते राखयेंत तांदूळ, भांगर आनी सांसवां एकठांय केल्ली पुडी आसताली. उपरांत तिची पुजा करून ती हाताक बांदताले. हळदींत भिजिल्लो दोरो राखी म्हणून वापरतात. पूण आतां मात बाजारांत मेळपी तरातरांच्या जिनसांच्यो आनी रंगाच्यो राखी बांदतात. पूण हालींच्या राखींनी आर्दी सांगलां तशी पुडी नासता. जाल्यार दोरो आनी कलाभूत हांचें फूल करून ताका रेशमी दोरो बांदिल्लो आसता.

भावाचें कल्याण जावचें आनी भावान आपले भयणीक संरक्षण दिवचें ही ते फाटली भावना आसता. रक्षाबंधनाक लागून सगळ्या अशुभांचो नाश जावन जैत, सूख, भलायकी, धन हांची प्राप्ती जावची अशी आस्त आसा.

उत्तर भारतांत नोकर लोक मालकाच्या हाताक राखी बांदतात. गरीब लोक गिरेस्तांच्या हाताक राखी बांदून तांचेकडल्यान पैशांची अपेक्षा बाळगितात.

जैन लोक हो दीस 'रक्षापर्व' म्हणून पाळटात. त्या दिसा जैनांच्या देवळांत राखी दवरिल्ल्यो आसतात. जैन मुनी त्या राखींची पुजा करून तांचो मानान स्विकार करतात. राखी पुनवेक 'पोवती पुनव' अशेंय म्हण्टात. ह्या दिसा पवित्रारोपण म्हळयार देवतेक पोवती अर्पण करप आनी उपरांत ती दादल्या - बायलेन हाताक बांदप. (पोवती म्हळयार देवतेक अर्पण करपाचो पवित्र दोरो) रक्षाबंधन हें ह्या विधीचें रुपांतर आसूं येता.

हे पुनवेक 'नाल्लां पुनव' वा सुता पुनव' अशेंय म्हण्टात. ह्या दिसा कोंकण, मलबार ह्या दर्यादिगेवयल्या प्रदेशांतले लोक उदकाची अधिश्ठात्री देवता आसपी वरुणाक उद्देशून दर्याक नाल्ल आनी सूत (जानवें) अर्पण करतात. नाल्ल आनी सूत पडलें म्हण्टकच खवदळिल्लो दर्या ह्या दिसाच्यान शांत जाता आनी दर्याचे येरादारीक तशेंच नुस्तेंमारीक बरो पडटा असोय समज आसा. मुसलमान आनी पारशी लोकांमदीं नाल्ल अर्पण करपाची प्रथा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**राघवन, व्ही.** : (जल्मः २२ ऑगस्ट १९०८, तिरुवरूर, तमिळनाडू; मरणः ५ एप्रिल १९७९, चेन्नई).

एक प्राच्यविद्यापंडीत, आंतरराश्ट्रीय नामनेचो अश्टतासांचो विद्वान. प्रतिभाशाली कवी, उत्तम नट आनी अभिजात संगिताचो मार्मिक जाणकार. तिरुवरूर नगरांत ताणें आपलें शालेय शिक्षण पुराय केलें. उपरांत १९३० वर्सा चेन्नईचे प्रेसिडॅन्सी कॉलेजींतल्यान संस्कृत विशय घेवन तो एम.ए. ची परिक्षा पयले श्रेणींत पयल्या क्रमांकान पास जालो. तेभायर ताणें पं. अप्पाशास्त्री शास्त्रीगळ, पं. ऋषियुर संतनम् अय्यर आनी पं. नारायण वाजपेयर हांचेकडेन पुर्विल्ले पद्धतीन संस्कृत शास्त्रांचें अध्ययन केलें. १९३५ वर्सा ताणें 'शृंगारप्रकाश' ह्या भोजाच्या ग्रंथाचेर संशोधन करून मद्रास विद्यापिठाची पीएच. डी. मेळयली.

१९३० वर्सा ताणें तंजावरच्या सरस्वती महाल ग्रंथालयाच्या हातबरपाच्या सूचीविभागाचो मुखेल म्हणून काम करपाक सुरवात केली. १९३५ वर्सासावन ते निमाणेमेरेन ताणें 'न्यू कॅटलोगस कॅटलागोरम' ह्या प्रकल्पांत काम केलें. १९३९ वर्सा ताची मद्रास विद्यापिठांत कनिश्ठ अधिव्याख्यातो म्हणून नेमणूक जाली आनी उपरांत प्राध्यापक, विभागाचो अध्यक्ष अशो बडट्यो मेळून तो सेवेंतल्यान निवृत्त जालो. १९६० - ७० ह्या काळांत ताणें 'जवाहरलाल नेहरू फॅलो' म्हणून संशोधन केलें.

संस्कृताच्या आनी कलेच्या क्षेत्रांत ताणें खूब काम केलां. 'संस्कृत रंग' हे संस्थेचो तो संस्थापक आनी खूब तेंपमेरेन अध्यक्ष आशिल्लो. जायतीं वर्सां तो चेन्नईचे म्युझिक अकादमीचो कार्यवाह आशिल्लो. तशेंच मद्रास नाट्यसंघाचोय अध्यक्ष आशिल्लो. साहित्य अकादमी, संगीत नाटक अकादमी, आकाशवाणी, नॅशनल बुक ट्रस्ट हांचो वांगडी आनी सल्लागार म्हणून ताणें काम केलां. संस्कृताचें अध्यापन करपी भारतीय तशेंच भारताभायल्यो संस्था आनी विद्यापिठांच्या सल्लागार समित्यांचेर ताणें काम केलां.

राघवनाच्या लिखाणाचो व्याप खूब व्हड आसा. ताच्या ग्रंथांची संख्या शंबरां परस चड आसा. ८०० सुमार ताचे स्फूट लेख आसात. ताच्या कांय वेंचीक ग्रंथांचीं नांवां अशीं - भोजकृत शृंगारप्रकाश (संपा. १९४० - ४५), आनंदरंगविजयचंपू (१९४८), न्यू कॅटलोगस कॅटलागोरम (खंड १ ते ९; १९४९ - ७९), यंत्राज ऑर मेकॅनिकल कंट्रायव्हन्सीस इन एन्शंट इंडिया (१९५२), द इंडियन हेरिटेज (१९५६), मॉडर्न संस्कृत रायटिंग्ज (१९५७), संस्कृत लिटरेचर (१९६१), मलयमाकत (संपा. १९६६), द रामायण इन ग्रेटर इंडिया (१९७४). तमिळींत ताणें कांय कथा - लिखाण केलां. ताणें बरयल्ल्या संस्कृत नाटकांत आनी एकांकिकांत 'कामशुद्धि' (१९४६), प्रेक्षणकत्रयी (१९५६), अवंतिसुंदरी (१९५६), लक्ष्मी स्वयंवरम् (१९५९), आषाढस्य प्रथम दिवसे (१९६१), भद्राश्वेता (१९६१) हांचो आस्पाव जाता. मुत्तुस्वामी दीक्षितचरितम् हें ताणें रचिल्लें संस्कृत महाकाव्य. रविंद्रनाथ टागोराच्या कांय साहित्यकृतींचो संस्कृत अणकार ताणें संस्कृत रवींद्रम्' (१९६६) ह्या नांवान केला. महाभारताचो संक्षिप्त इंग्लीश अणकार (१९३५), श्री देवी माहात्म्याचो तमीळ अणकार (१९४६) आनी नाटकलक्षणरत्नकोशाचो इंग्लीश अणकार हे ताणें केल्ले अणकारूय उल्लेख करपासारके आसात.

१९५५ वर्सा कांची कामकोटी पिठाकडल्यान 'कविकोकील' आनी 'सकलकलाकलाप' हे मानादीक पुरस्कार ताका मेळळे. १९६२ वर्सा ताका भारत सरकारान पद्मभूषण ही उपाधी दिली. १९६६ वर्सा ताका भोजाज शृंगारप्रकाश ह्या ग्रंथाखातीर साहित्य अकादमीचें इनाम मेळळें.

- कों. वि. सं. मं.

**राघवेंद्र तीर्थ :** (इ.स.चें १७ वें शतमान). माध्व संप्रदायाचो एक प्रचारक आनी संत. ताचो पुतणयो नारायण हाणें राघवेंद्र विजय नांवाचें एक सुंदर काव्य रचिल्लें आसून तातूंत राघवेंद्राचें चरित्र वर्णन केल्लें आसा तें अशें - ताचे आवयचें घराणें गौतमगोत्री आशिल्लें आनी आजो कृष्णभट्ट हो सम्राट कृष्णदेवराय हाका वीणावादन शिकयतालो. ताचो बापूय तिमण्णाचार्य हो एक पंडीत आनी संगीततज्ञ आशिल्लो. विजयनगराचो अस्त जातकच तो तुंडीरमंडल (कांची) ह्या भागांत वचून पट्टणाक स्थायीक जालो. ताचे बायलेचें नांव गोपिका. ताका गुरुराज, वेंकटांबा आनी वेंकटनाथ अशीं तीन भुरगीं. तातुंतल्या वेंकटनाथान बरो अभ्यास करून पंडीत म्हणून नामना मेळयली. कुंभकोणम्‌चो माध्व मठाधिपती सुधींद्रतीर्थ हाका ताची नामना कळ्ळी. तेन्ना ताणें ताका आपोवन हाडून आपल्या फाटल्यान मठाधिपती जावपाची आपली इत्सा उक्तायली. पूण बायल - भुरग्यांक सोडून संन्यास घेवपाची ताची तयारी नाशिल्ली. सुधींद्रतीर्थान परत परत सांगून ताच्या मनाची तयारी केली आनी निमाणें इ.स. १६२१ त वेंकटनाथान त्या संप्रदायाची दिक्षा घेतली. गुरून ताका राघवेंद्र हें नांव दिल्लें. दोन वर्सांनी सुधींद्रतीर्थाक मरण आयलें तेन्ना राघवेंद्रतीर्थ मठाधिपती जालो. आपल्या पंथाच्या प्रचारारवातीर ताणें मदुराई, श्रीरंगपट्टण, उडुपी, पंढरपूर, कोल्हापूर, विजापूराक भोंवडी केली. ह्या भोंवड्यांतल्यान ताणें जायतें ग्रंथलिखाणूय केलें.

माध्व संप्रदायाची दिक्षा घेतिल्ल्यान तो द्वैतमताचो प्रचारक जालो. ताणें सुमार चाळीस ग्रंथ बरयले. तातुंतले बरेचशे ग्रंथ माधव, जयतीर्थ आनी व्यासराय हांचे गीतेवयले टिकेच्या स्वरुपांत आशिल्ले. ताच्या चडशा ग्रंथांक भावदीप हें नांव आसा. ताच्या स्वतंत्र ग्रंथांत परिमल ह्या ग्रंथाची नामना आसून ताच्या नांवावयल्यान ताका परिमलाचार्य अशें नांव मेळ्ळें. ताची भास सादी आनी सरळ आशिल्ल्यान ताणें वेदान्तासारको कठीण विशय सर्वसामान्यांक समजतलो अशे रितीन मांडलो.

इ.स. १६६३त तो म्हैसुराक गेल्लो. थंय दोड्ड देवराज वडियार ह्या राजान ताका व्हड देणगी दिली. उपरांत तो बेल्लारी म्हालांतल्या मंत्रालय गांवांत स्थायीक जालो. आडोनिचो सुभेदार सिद्‌दी मसूदखान हाचो दिवाण वेंकण्णा पंत हाणें हो गांव ताका दान दिल्लो. थंयच इ.स. १६७१ त ताणें समाधी घेतली. जायते भावीक भोंवडेकार दर वर्सा थंय दर्शनाखातीर येतात.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंदः माधव संप्रदाय

**राजगुरू, शिवराम हरी :** (जल्म : १९०८, खेड - पुणें; मरणः २३ मार्च १९३१, लाहोर).

भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींतलो सशस्त्र क्रांतीवीर. मुळावें शिक्षण घेतले उपरांत तो अमरावतीक वचून, थंयचे हनुमान व्यायामशाळेच्या वातावरणांत ताणें देशभक्तीची दिक्षा घेतली. पिरायेच्या १५ व्या वर्सा तो बनारसाक संस्कृत अध्ययनाखातीर गेलो. थंय



न्यायशास्त्रांतली मध्यमा परीक्षा तो पास जालो. लघु सिध्दांत कौमुदीचो ताणें अभ्यास केलो. ताका संस्कृत आनी मराठी भायर इंग्लीश, कन्नड, मळयाळम, हिंदी आनी उर्दू ह्योय भासो येताल्यो. शिवाजी आनी ताची गनिमी झूजपद्धत हे विशीं ताका तोखणाय दिसताली. कांय काळ तो कॉंग्रेस सेवा दलांतूय आसलो. बनारसाक आसतना ताची सचिन्द्रनाथ संन्याल, चंद्रशेखर आझाद ह्या क्रांतिकारी नेत्यांकडेन वळख जाली. हिंदुस्थान रिपब्लिकन आर्मींत वचून ताणें उत्तर भारतांत क्रांतीकार्यांत वांटो घेतलो. ताच्या तुबकाचो नेम अचूक आसलो. फुडें ताची भगतसिंग, जतीनदास, सुखदेव आनी हेर पंजाबी क्रांतीकारी फुडाऱ्यांकडेन इश्टागत जाली.

सायमन कमिशन विरोधी निदर्शनांत पुलिसांनी केल्ल्या हल्ल्यांत लाला लजपतराय जखमी जालो.ताका लागून १७ नोव्हेंबर १९२८ वर्सा ह्या पंजाबी फुडाऱ्याक मरण आयलें. ताच्या मरणाचो सूड घेवपाचो अशें पंजाबी क्रांतीकारकांनी थारायलें. ते खातीर चंद्रशेखर आझाद, शिवराम राजगुरू, भगतसिंग आनी जयगोपाल हांची नेमणूक केली. चंद्रशेखर आझाद आनी राजगुरू हे दोनूय संयुक्त प्रांतांतल्यान आयले. पंजाब आनी उत्तर प्रदेश फांट्या फुडाऱ्यांनी संयुक्तपणान लाहोरांत ही कृती केली. ब्रिटीश पुलीस अधिकारी सॉंडर्स हाचेर लाहोराक १७ डिसेंबर १९२८ दिसा हल्लो जालो तेन्ना पयल्यो दोन गुळयो राजगुरून मारल्यो. फुडें काउन्सिल हॉलांतल्या बॉंब हल्ल्या उपरांत पंजाबी फुडाऱ्यांक धरले. पूण आझाद आनी राजगुरू सुमार दोन वर्सां भूंयगत आसले. सॉंडर्सच्या मरणाउपरांत २२ म्हयन्यांनी म्हळयार 30 सप्टेंबर १९२९ वर्सा राजगुरूक पुण्यांत धरलो आनी ताका भगतसिंग, सुखदेव हांचे वांगडा लाहोराच्या कारावासांत सुळाचेर चडयलो. ताचे यादीक ताच्या खेड ह्या जल्मगांवाचें राजगुरू नगर अशें नांव दवरलें.

- कों. वि. सं. मं.

**राजगोपालाचारी, चक्रवर्ती :** (जल्म : १० डिसेंबर, १८७८, थोरपल्ली - तमीळनाडू; मरण : २५ डिसेंबर १९७२, मद्रास).

भारतीय स्वातंत्र चळवळींतलो एक व्हड फुडारी. स्वतंत्र भारताचो पयलो गव्हर्नर जनरल (१९४८-५०) आनी स्वतंत्र पक्षाचो संस्थापक अध्यक्ष (१९५९).

ताचो जल्म एका मध्यमवर्गीय वैशणव ब्राह्मण कुटुंबांत जालो. ताचो बापूय नल्लन चक्रवर्ती आय्यंगार हो थोरपोल्लीचो मुन्सफ

आशिल्लो. आवय सिंगारमल्ल धर्मीक वृत्तीची आशिल्ली. ताचें मुळावें



शिक्षण थोरपल्ली गांवांत जालें. फुडें ताणें बेंगळूर आनी मद्रासाक उंचेलें शिक्षण घेवन बी.ए. (१८९६) आनी एलएलबी (१९००) ह्यो पदव्यो हातासल्यो. ह्याच वेळार ताचें आवयक मरण आयलें. उपरांत ताणें अलामेलू मंगम्मल हे १० वर्सांचे चलयेकडेन लग्न केलें (१९००). ताका कृष्णस्वामी, नरसिंहन आनी रामस्वामी हे तीन चले, तशेंच नामगिरी आनी लक्ष्मी ह्यो दोन चलयो जाल्यो. राजाजीन लक्ष्मी हे आपले चलयेचें लग्न महात्मा गांधीच्या देवदास ह्या चल्याकडेन केलें. हें वैश्य - ब्राह्मण आंतरजातीय लग्न त्या वेळार गाजलें.

राजाजी सुरवेक सेलमाक वकिली करतालो. तातूंत ताका अर्थीक प्राप्तीय बरी जाताली. रोखडोच तो सक्रिय राजकारणाकडेन आकृश्ट जालो आनी सेलम नगरपरिशदेचो अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. १९१७त ताची घरकान्न सोंपली. उच्च न्यायालयांत वकिली करपाखातीर ताणें मद्रासाक स्थलांतर केलें. लोकमान्य टिळक, ॲनी बेझंट, चक्रवर्ती विश्वराघवाचार्य, सरोजीनी नायडू, आदी राजकीय फुडाऱ्यांच्या विचाराची छाप ताचेर पडली. मद्रासाक १९१९ त महत्मा गांधीची भेट जालेउपरांत तो पुरायतरेन गांधीवादी जालो. ताणें गांधीचे असहकार चळवळींत वांटो घेवपाखातीर वकिली वेवसाय सोडलो. रौलेट कायद्याउपरांत गांधीजीवांगडा ताका तीन म्हयन्यांची बंदरवण भोगची पडली. त्यावेळार ताणें बरयल्ली 'जेल डायरी' प्रसिद्द आसा. तेउपरांत जाल्ल्या सगळ्या आंदोलनांनी (१९४२चे 'छोडो भारत' आंदोलन सोडून) ताणें वांटो घेतलो. मिठाच्या सत्याग्रहा वेळार ताणें तमीळनाडूंत तेच धर्तेर सत्याग्रह घडोवन हाडलो. सत्याग्रहांतल्या ह्या वेगवेगळ्या मोहिमांखातीर ताका चारखेपे कादयेंत वचचें पडलें. महात्मा गांधी बंदरवणींत आसतना तो गांधीजीचो प्रवक्तो म्हणून काम करतालो. कांय म्हयने ताणें 'यंग इंडियाचें' संपादनूय केलें. गांधिजीन पुरस्कारील्लो खादीचो प्रसार, जातीय एकवट, राश्ट्रीय शिक्षण अस्पृश्यताय ना करप ह्या चतुःसूत्रीचो ताणें जीणभर प्रसार आनी प्रचार केलो. ते खातीर ताणें तमीळनाडूंतल्या तिरूचेन गोडे ह्या गांवांत गांधी आश्रमाची स्थापणूक केली. खादी केंद्र उबारलें आनी अस्पृश्यांखातीर एक शाळाय सुरू केली. हाचेभायर 'विमोचन' नांवाचें तमिळ भाशेंतलें म्हयनाळें सुरू करून सोरो बंदीचो प्रसार केलो. बाबासाहेब आंबेडकर आनी महात्मा गांधी हांचेमदीं जाल्ल्या पुणें करारांचो मसुदो राजाजीनूच तयार केल्लो (१९३२).

राजाजी अखील भारतीय काँग्रेसीचो सरचिटणीस जालो (१९२१ - २२). तो काँग्रेसीच्या कार्यकारिणीचो बरींच वर्सां वांगडी आशिल्लो. १९३५ त कांय तेंप ताणें हंगामी (तात्पुरतो) अध्यक्ष म्हणुनय काम केलें. दुसऱ्या म्हाझुजासावन काँग्रेसीच्या सगळ्या ध्येय - धोरणांविशीं राजाजीचे मतभेद जावंक लागले. १९३५ च्या अधिनेमाप्रमाण भारतांत प्रांतीक कायदेमंडळाच्यो वेंचणुको जावन तातूंत मद्रास प्रांताचो राजाजी मुखेलमंत्री जालो (१४ जुलय, १९३७). दुसरें व्हड झूज सुरू जालेउपरांत काँग्रेस मंत्रीमंडळान ब्रिटीश सरकाराकडेन असहकार्य करपाच्या तत्त्वां वांगडाच सगळ्यांनी राजिनामे दिले. हे दोन वर्सांचे कारकिर्दींत राजाजीन आपल्या प्रदेशांत सोरोबंदी, हरिजनांक देवळांत प्रवेश, मूळ उद्देग, शिक्षण बी हांचो प्रसार आनी हेर कार्यावळीय चालीक लायल्यो. ३ जुलय १९४० चे काँग्रेस कार्यकारिणींत राजाजीन मांडिल्ल्या थरावाप्रमाण भारताक पुराय स्वांतत्र्य दिवपाचे अटीचेर ब्रिटिशांक झुजांत पुराय सहकार्य दिवपाचें धोरण धरलें. पूण ब्रिटीश सरकारान तें भायरायिल्ल्यान महात्मा गांधीन वैयक्तिक सत्याग्रहाचें अभियान सुरू केलें. ते उपरांत आयिल्ल्या क्रिप्स मंडळाच्या येवजणांक काँग्रेसीचो विरोध आसतनाच राजाजीन त्यो उखलून धरल्यो. मुस्लिम लिगाचे स्वतंत्र राश्ट्राचे मागणेचो प्रश्न सुटले बगर देशाक स्वातंत्र्य मेळप कठीण अशें राजाजीचें म्हणणें आशिल्लें. ताचे हे भुमिकेक काँग्रेसीकडल्यान कांय तेंको मेळ्ळोना. काँग्रेस आनी मुस्लिम लिग हांचेमदीं एकवट घडोवन हाडपाखातीर ताणें परत खूब यत्न केले, पूण तो अपेशी थरलो. अलाहाबाद काँग्रेस अधिवेशनांत (१९४२) ताणें थराव मांडलो तोय भायरायलो. हाचो परिणाम असो जालो, ताणें पयले सुवातेर काँग्रेस कार्यकारिणीचो आनी उपरांत पक्षाचो राजीनामो दिलो (१९४२). तीन वर्सांमिरेन तो काँग्रेसीभायर रावलो. ताका व्हड अपमान सहन करचो पडलो, तरीय तो आपल्या तत्त्वांसावन कडेक सरलोना. भारत छोडो आंदोलनांतूय ताणें वांटो घेतलो ना. त्या वेळार सगळे फुडारी बंदरवणींत आशिल्ले. राजाजीन परत एकदां राश्ट्रीय एकवटीची येवजण मांडली. तिचेर ताणें महात्मा गांधीची संमतीय मेळयली. पूण तिचो चडसो उपेग जालोना. कांय फुडाऱ्यांच्या आग्रहाखातीर ताणें परत काँग्रेसींत प्रवेश केलो (१९४५). तो गव्हर्नर जनरलाच्या कार्यकारी मंडळाचो वांगडी जालो (१९४७). स्वातंत्र्या उपरांत ताची बंगालचो गव्हर्नर म्हणून नेमणूक जाली (ऑगस्ट ते नोव्हेंबर, १९४७). ते उपरांत तो स्वतंत्र भारताचो पयलो गव्हर्नर जनरल जालो (१९४८ - ५०). नेहरूच्या सुरवेच्या मंत्रीमंडळांत ताणें पयलो बिनखात्याचो आनी फुडाराक घरमंत्री (१९५१) म्हणून काम पळयलें. पूण मद्रास राज्यांतलो काँग्रेस पक्ष अल्पमतांत येता अशी सुलूस लागतकच ताची मद्रासचो मुखेलमंत्री म्हणून निवड केली (१९५२ - ५४). उपरांत भारत सरकारान ताचे देशसेवेचो आनी वेगवेगळ्या कार्यांचो, 'भारतरत्न' पुरस्कार दिवन भोवमान केलो (१९५४). फुडाराक ताचे

पंडित नेहरू आनी हेर काँग्रेस फुडाऱ्यांकडेन मतभेद जाले. काँग्रेसीच्या पुराय धोरणाविशीं तो निराश आशिल्लो. म्हणून ताणें ४ जून, १९५९ ह्या दिसा स्वतंत्र पक्षाची स्थापणूक केली. मिनू मसानी, क.मा. मुन्शी, प्रा. एन.जी. रंगा आनी हेर कितल्याशा लोकांनी पक्ष स्थापणुकेच्या कामांत ताका आदार केलो. स्वातंत्र्यांतल्यानूच उदरगत हें ताचें ब्रीदवाक्य आशिल्लें. १९६२ आनी ६७ च्या भौशिक वेंचणुकांनी पक्षाक बरो प्रतिसाद (४४ खासदार - १९६७) मेळ्ळो. पूण फुडाराक ह्या पक्षाक लोकांचें फाटबळ मेळूंक पावलेंना.

महात्मा गांधी शांतताय प्रतिशठापनेवतीन ताणें अण्वस्त्रांच्या वापराचेर बंदी घालची म्हणून भारतीय शिश्टमंडळाचें फुडारपण केलें (१९६२) आनी तो पयलेच खेपे देशाभायर अमेरिकेक गेलो. थंय ताणें जॉन कॅनडीची भेट घेवन ताका एकवटीत राश्ट्र संघटनेंत अण्वस्त्रांचे चांचणेचेर बंदी हाडची असो थाराव मानून घेवंचो, अशी विनंती केली.

तेउपरांत ताणें ल्हव-ल्हव सक्रीय राजकारणासावन आंग काडून घेतलें आनी तो मद्रासाक स्थायीक जालो.राजाजीचो मुदलांतलो पींड तत्त्वचिंतकाचो आसलो. धर्माचेर ताची श्रध्दा आशिल्ली, पूण तो कुड्डी श्रध्दा मानपी वा धर्मपिसो नाशिल्लो. गीतेंतलो कर्मवाद, ताणें आचरणांत हाडलो. भारताचे सांस्कृतिक विविधतायेंतले एकात्मतेचें अधिश्ठान रामायण - महाभारतांतले आदर्श आनी तत्त्वज्ञानांत आसा अशें तो म्हण्टालो. ताणें तमिळ आनी इंग्लिशींत रामायण - महाभारत ह्या ग्रंथाचें भाशांतर केलें. ताचे स्फूट आनी ग्रंथीक लिखाण भरपूर आसा. तातूंत मुखेलपणान रामायण, महाभारत, भगवद्गीता आनी उपनिशदां हांचेर चिकित्सक विवेचन आसून मार्कस ऑरीलीयसाचीं पुस्तकां ताणें तमिळींत अणकारीत केल्यांत. ताच्यो कांय कथाय इंग्लिशींत आसात. तिरुवळ्ळुवर हाच्या ''कुरळ'' ह्या काव्याचो तमिळ अणकार ताणें केला. सुमार बाराव्या शेंकड्यांत जावन गेल्ल्या अवैयार ह्या संत कवयित्रिच्या काव्याची ओळख करून दिवपी एक पुस्तकय ताणें बरयलां. हाचेभायर 'मुडियुम' हें शास्त्रविशयक पाठ्यपुस्तक ताणें तमिळींत बरयलां. ताच्या ५३ कथांचे दोन कथांझेले उजवाडाक आयल्यात. सादी, सोंपी आनी सुबोध भाशाशैली हें ताचे लेखनशैलीचें खाशेलेपण. ताच्या तमिळ महाभारताक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळिल्लो आसा.

इंग्लीश भाशेचो ताका अभिमान आशिल्लो आनी भारतीय एकवटाची भास म्हणून ती कुस्कूटावंक जायना, तिच्या शासकीय वापराचेर निर्बंध घालूंक जायनात, अशें ताचें मत आसलें. आवयभाशेक ताणें प्राधान्य आसूंक जाय अशें जरी सांगिल्लें आसलें तरीय हिंदी भाशेक ताचो विरोध नाशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**राजतरंगिणी :** कल्हण हाणें बाराव्या शेंकड्यांत संस्कृतांत बरयल्लो काश्मीराचो पद्यबध्द इतिहास. राजतरंगिणी म्हळ्यार न्हंय, प्रवाह, वा परंपरा ह्याय अर्थान कल्हणान ह्या ग्रंथाक नांव दिल्लें आसा.

ह्या ग्रंथाचे वट्ट आठ तरंग आसून तांची श्लोकसंख्या ७,००० आसा. कलियुगाची सुरवात इ.स. आदीं ३१०१ त जाता अशें परंपरेन मानतात. तेन्नाच्यान काश्मीराच्या राजांची आनी राजवंशाची म्हायती राजतरंगिणिंत दिल्या. ह्या ग्रंथांत कल्हणान ताच्या आदले इकरा इतिहासकार तशेंच सुव्रताची राजकथा, क्षेमेंद्राची नृपावलि, नीलमतपुराण, हेलराजाची पार्थिवावलि, पद्ममिहीर आनी छविल्लाकार हाचे इतिहासाविशींचे ग्रंथ, पोरणीं कागदपत्रां, नाणीं, राजांचीं दानपत्रां, ताम्रपट, प्रशस्तिपट, शिलालेख हांचो नियाळ घेतिल्ल्याचो उल्लेख केला.राजतरंगिणींत इतिहासीक पुराव्याचो अभाव आसून कल्हणान लोकपरंपरा आनी दंतकथा हांचेर चड भर दिला. तशेंच, शकून, यातुविद्या, चेटूक, भूतबादा, हांचेर ताचो खूब विस्वास आशिल्ल्याचें दिसता. राजतरंगिणींत इतिहासीक क्रम जरी सारको नासलो तरी सातव्या शतमानापसूनच्या घडणुकांची ताणें दिल्ली म्हायती विश्वासाची दिसता. काश्मीरी जनतेची सूखलोलुपताय आनी आळसाय, राजकीय फुडाऱ्यांकडेन आशिल्लो स्वामिभक्तीचो उणाव, बेशिस्त आनी भिवकुऱ्या सैनिकांचें पळपुटपण आनी जमीनदारांचें निर्दयपण आदी गजाली मात कल्हणान अभ्यासूपणान मांडल्यात.

ह्या ग्रंथांत कल्हणाचे कविताप्रतिभेक बरो वाव मेळ्ळा. कसल्याय घडणुकांचें वर्णन करतना ताणें काव्यालंकार, सुभाशितां आनी काव्यमय भाशा हांचो वापर करून हो ग्रंथ सोबीत केला.

- कों. वि. सं. मं.

**राजदूत :** एका देशान दुसऱ्या देशांत मुखेलपणान राजकीय वेव्हारावतीर नेमिल्लो प्रतिनिधी. दोनूय देशांभितरले संबंद एकामेकांक पूरक दवरप हो राजदुताचो मुखेल वावर. तशेंच, त्या देशांतलें राजकीय धोरण आनी हालचाली समजून घेवप; दोनूय देशांचे हितसंबंद राखून दवरपाचे यत्न करप; एकमेकांची विचारसरणी आनी राजकारणाचें देव-घेव करप अशो साबार जापसालदारक्यो ताणें सांबाळच्यो पडटात.

भारताच्या पुर्विल्ल्या इतिहासांत राजदूत वा दूत हीं उतरां साबारकडेन आयल्यांत. परक्या राजाकडे धाडिल्लो वकील, वा संदेश पावोवपी वा हेर (गुप्तहेर) अशा साबार अर्थांनी तें उतर ऋग्वेदांत वापरलां. महाभारतांतूय राजदुताचे वेगवेगळे आठ गूण सांगल्यात. कौटिल्ल्यान आपल्या अर्थशास्त्रांत राजदुताविशीं एक स्वतंत्र नोंद बरयल्या. तातूंत राजदुताच्या गूणधर्माची, अधिकाराची आनी कार्यांची म्हायती दिल्ली आसा. सद्या राजदुताचें कार्यक्षेत्र आनी जापसालदारक्यो हांची व्याप्ती व्हड आसा.

सादारणपणान राजदूत हें उतर आपल्या देशांतल्या परकी वकिलातीच्या वरिश्ठ अधिकाऱ्याक उद्देशून वापरतात. पयल्या म्हाझुजाउपरांत आनी मुरवेलपणान दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत लोकशाय प्रस्थापीत जाल्ल्या देशांनी अशे अधिकारी नेमपाची प्रथा सुरू जाली. १९६१त आंतरराश्ट्रीय मळार राजदुता संबंदीं विएन्ना शारांत भरिल्ले परिशदेंत ताचो दर्जो, सुवात आनी ताका मेळपी संरक्षण हेसंबंदीं कांय नेम थरयल्यात आनी कांय प्रथा मान्य केल्यात. हे प्रथेप्रमाण राजदुताचे तीन प्रकार मानल्यात (१) पुराय अधिकार आशिल्लो राजदूत (ॲम्बासेडर) (२) प्रतिनिधीक दूत (एन्व्हॉय) (३) स्थायी राजदूत (शार्ज द अ‍ॅफेर्स). राजदूत वा प्रतिनिधीक दूत हांकां ज्या देशांनी धाडटात, त्या देशाची पयलीं मान्यताय घेवंची पडटा. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत एकवटीत राश्ट्रसंघान आपले घटनेंत सगळ्या राश्ट्रांक उपचारीक आनी कायदेशीरपणान समान दर्जो दिल्लो आसा. तेन्नासावन चडशा सगळ्या राश्ट्रांनी आपआपले प्रतिनिधी सगळ्या राश्ट्रांखातीर नेमल्यात. ज्या राश्ट्रांक परदेशांत आपल्या प्रतिनिधींखातीर खर्च करपाची कुवत नासता, थंय तें राश्ट्र आपल्या इश्ट राश्ट्राचे वकिलातीकडेन आपलें प्रतिनिधीत्व सोंपयता.

आपल्या देशाचें पडबींब परकी देशांत उजळ दवरप हें राजदुताचें मुरवेल ध्येय. तेखातीर ताका आंतरराश्ट्रीय राजकारणांतल्यो विचारसरण्यो खबर आसपाक जाय. ताका संबंदीत देशाचो भौशिक आनी संस्कृतीक संबंदांचो परीचय आसपाक जाय. त्या देशांतलो शिक्षणक्रम, विज्ञानसंशोधन आनी राजकीय पक्षांची धोरणांची बरी म्हायती आसपाक जाय. तशेंच ताका आपल्या देशाचें अर्थीक आनी संरक्षणेविशींचें धोरण खंयचें आनी तें परदेशांत खंयच्या स्वरुपांत मांडल्यार ताचो फायदो जातलो, हाचो ताणें बारीक अभ्यास करप गरजेचें आसता. राजदुताचें व्यक्तिमत्व आकर्शक आसपाक जाय. तो एक फिशाल उलोवपी, प्रसंगावधान राखून आनी अनपेक्षीत अडचणींतल्या निभोवन व्हरपाची मुत्सद्देगिरी ताचेकडेन आसपाक जाय. राजदुताक आनी ताच्या कार्यालयांतल्या अधिकाऱ्याक त्या देशांतल्या शासनाकडच्यान संरक्षण मेळटा. खंयच्याय राश्ट्राकडेन वांकडेपण येतकच एक तर राश्ट्र आपलो राजदूत त्या राश्ट्रांतल्यान काडून घेता, वा तें राश्ट्र परक्या राश्ट्रांतल्या राजदूताक आपल्या राश्ट्राभायर वचपाचो हुकूम सोडटा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : दूत

**राजद्रोह :** कायद्यान आनी संविधानान निर्माण जाल्ले राजसत्तेआड, नागरिकाकडल्यान जाल्लो विद्रोह, बंड, फितुरी, वा तत्सम करणेक वा तशा यत्नाक वा चिथावणेक राजद्रोह म्हण्टात.

राजद्रोह हो गुन्यांव आसून भारतीय दंड संहितेच्या १२४ अ ह्या कलमाखाला ह्या गुन्यांवाची व्याख्या केल्या. कायदेशीर शासनाआड अलोकशाय मार्गान विद्रोह, तिरस्कार वा विद्वेश पातळावपाखातीर वा ते नदरेन यत्न करपाखातीर उलोवप, लिखाण, चिन्नां वा दृश्य हावभाव ह्या माध्यमांचो उपेग करून तशेंच हेर खंयच्याय मार्गान तशा हेतान कृत्य केल्यार तो राजद्रोहाचो गुन्यांव जाता. कायद्याचे नदरेन विद्रोह ह्या उतरांत शासनाविशींचे निश्ठेचो अभाव वा तेसंबंदी सगळ्या तरांच्या दुस्मानकायेच्या भावनांचो आस्पाव जाता. पूण लोकशायेच्या संकेतांचे मर्यादेंतल्या शासनावयली टिका म्हळ्यार राजद्रोह जायना. शासनाचे उपाय - येवजणेसंबंदीं तातूंत कायदेशीर मार्गान बदल घडोवन हाडपाच्या हेतान केल्ली टिका, दाखयल्लो न्हयकार वा केल्लो निशेध हांकां लागून सरकाराविशीं विद्रोह, विद्वेश वा तिरस्कार निर्माण जायना आसत वा तसो यत्न केल्लो नासत जाल्यार तशी टिका, नापसंती वा निर्णय हो गुन्यांव थरना. तेच भाशेन शासनान केल्ल्या प्रशासकीय कृत्याविशीं नापसंती दाखोवपी टिका करप हो गुन्यांव जायना. पूण ते टिकेक लागून विद्रोह, विद्वेश वा तिरस्कार निर्माण जावंक फावोना. वा तशे तरेचो यत्नय केल्लो आसूंक जायना.

ब्रिटीश राजवटींत लोकमान्य टिळकाआड राजद्रोहाच्या आरोपाखाला १८९७ आनी १९०८ वर्सा असो दोनदां दोशी थारावन, खटले भरून ताका ख्यास्त फर्मायली. राजद्रोहाचो अन्वयार्थ करतना सरकाराविशीं अप्रिती आसप होय गुन्यांव थारावंचो अशें मत न्यायालयांनी दिल्ल्यान टिळक दोशी थरलो. फकत अप्रिती आसून उपकारना. तिका लागून केल्ले टिकेन सरकाराआड सशस्त्र उठाव वा बंड जावपाची शक्यताय आसची पडटा, असो युक्तिवाद टिळकान केलो. लोकशायेंत सरकाराचेर टिका करपाचो अधिकार व्यक्तीक जाय, हे भुमिकेंतल्यान वयलो युक्तिवाद केल्लो. वसाहतवादी शासनांत, स्वातंत्र्य चळवळीखातीर केल्ल्या सगळेच तरेच्या उठावांत राजद्रोह मानपाची शासनकर्त्यांची प्रवृत्ती जाल्ली. भारतीय संविधानाच्या १९ (१) (अ) ह्या अनुच्छेदांत दर एका नागरिकाक भाशण करपाचें आनी अभिव्यक्तीचें स्वातंत्र्य दिलां. शासनाक देशाचे सुरक्षिततायेखातीर वा कायदो आनी सुवेवस्था राखपाखातीर ह्या स्वातंत्र्याचेर कांय मर्यादा घालपाचो अधिकार आसा. ह्या संदर्भांत भारताच्या सर्वोच्च न्यायालयान दिल्लो. केदारनाथ सिंगाआड बिहार सरकार (ऑल इंडिया रिपोर्टर,१९६२) ह्या खटल्यांतलो निकाल म्हत्वाचो आसा. तातूंत म्हळां, सरकारावयले टिकेखातीर खंयचोय मार्ग आपणायल्यार, ताचे फाटलो हेत हो जर भौशिक सुवेवस्थेक भंय निर्माण करपावो वा सरकाराआड प्रक्षोभ मातोवपाचो वा तसो यत्न करपाचो आसत, जाल्यार हो राजद्रोहाचो गुन्यांव घडला अशें म्हणूं येता.

राजद्रोहाच्या गुन्यांवाक उण्यांत उणी ख्यास्त आजल्म बंदखण वा विशिश्ट रकमेचो दंड अशी आसा तर चडांत चड ख्यास्त मरणाची आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**राजनीतिकल्पतरू :** राजनितिचेर आदारिल्लो एक ग्रंथ. व्यासदास क्षेमेन्द्र हाणें ह्या ग्रंथाची रचना केली. ताच्या काळाविशीं निश्चीत अशी म्हायती मेळना. पूण लेखांत उल्लेख केल्ल्या राजांच्या वर्णनावयल्यान ताचो काळ इसवी सन इकरावें शतमान (इ.स. ९९० ते १०७०) असो मेळटा. जयपीड राजाच्या दरबारांत नरेन्द्र नांवाचो मंत्री आशिल्लो. क्षेमेन्द्र हो ताचो खापरपणटू. क्षेमेन्द्रान वट्ट ३४ ग्रंथांची रचणूक केली. पूण तातुंतले फकत अठराच ग्रंथ उपलब्ध आसात.

नीतिकल्पतरू ह्या ग्रंथाक क्षेमेन्द्रान फुलां-तुऱ्याची ओपार दिल्ली आसा. ह्या ग्रंथांत वट्ट १३८ विभाग दिल्यात. तातुंतल्या १५-१६ विभागांनी राज्य, राजा, हांचेविशीं भासाभास केल्ली आसा. ताणें 'निती' ह्या उतराचो अर्थ 'अमलप्रज्ञा' म्हळ्यार 'दूरदृश्टी' वा 'दिव्यनदर' असो दिला. नितीक लागून बरें किदें, वायट किदें हें कळटा. राजान नितीन वागूंक जाय. तो अनितीन वागल्यार राज्याचो नाश जाता. ताणें नितीन वागतना किदयाकूच भियेवंक जायना. राजान सज्जनांक लागीं करप, दुर्जनांक पयस करप आनी दुश्ट राजाक राज्यभ्रश्ट करप अशेंय क्षेमेन्द्र सांगता.

- कों. वि. सं. मं.

**राजनीतिप्रकाश :** वैशंपायन हाणें रचिल्लो एक ग्रंथ. ह्या ग्रंथांत मुखेलपणान आयुधां आनी सैन्याचें प्रशासन हांचेर भर दिला. ह्या ग्रंथांत पुर्विल्ल्या मध्ययुगीन काळांतल्या आयुधांचीं वर्णनां आसात. हातूंत सैनिकी प्रशासन आनी राज्याचें प्रशासन हांचेर विचार केल्लो आसा. सैनिकांची भरती कशी करप, सैन्याची व्यूहरचना कशी आसची, अधिकाऱ्यांची नेमणूक, तांचें वेतन, राजाचीं कर्तव्यां ह्या विशयांची ह्या ग्रंथांत भासाभास केल्ली आसा. सैन्य, सेनापती, लस्करी डावपेंच हांची भरपूर म्हायती आशिल्लो हो एक खाशेलो असो ग्रंथ.

- कों. वि. सं. मं.

**राजनीति - रत्नाकर :** राज्यशास्त्राविशींचो एक ग्रंथ. चंडेश्वर हाणें हो ग्रंथ रचलो. चंडेश्वराविशीं निश्चीत अशी म्हायती मेळना. ह्या ग्रंथांत त्या काळांतल्या राजांच्या नांवाचो जो उल्लेख आयला ताचेवयल्यान ग्रंथकर्त्याचो काळ इ.स. १३ वें वा १४ वें शतमान आसूंक जाय असो अदमास करप जाता. मिथिलाधिप हरिसिंह देव हाचो चंडेश्वर मंत्री आशिल्लो. ताणें जायत्या ग्रंथांची रचणूक केली. 'राजनीति - रत्नाकर' हो तातुंतलोच ग्रंथ आसून ताचे सोळा उपविभाग आसात. हे राजा, मंत्री, पुरयत, न्यायाधीश, दूर्ग, शासन यंत्रणा (खातीं, मंत्रीमंडळ) कोष, बळ (सेना), सेनापती, दूत. राज्याचीं सर्रास कामां, दंड (ख्यास्त), राज्यवेवस्था, राज्यदान, राज्याभिशेक अशे सोळा उपविभाग आसात.

इ.स. ४०० ते ७०० ह्या काळांत आचार्य हारीत ह्या काश्मीरी पंडितान धर्मसूत्र नांवाचो एक ग्रंथ बरयल्लो. ताणें सांगिल्ले सभेचे चार प्रकार चंडेश्वरान अशे तरेन दिल्यात -

(१) प्रतिश्ठीता : राजान आमंत्रण दिल्ली सभा, सादारणपणान राजधानीच्या जाग्यार, राजवाड्यांत भरपी सभा.

(२) अप्रतिश्ठिता : हेर गांवांत भरपी सभा.

(३) सुमुद्रिता : जे सभेचो मुखेल न्यायाधीश आसता अशी सभा वा जे सभेचो अध्यक्ष 'सभापती' आसता अशी सभा.

(४) शासिता : ज्या जाग्यार स्वता राजा हाजीर आसता तो जागो.

सभेचीं धा मुखेल आंगांय ह्या ग्रंथांत दिल्लीं आसात - (१) राजा (२) अधिकारी (३) सभासद (४) धर्मशास्त्र (५) गणक (६) लेखक (७) भांगर (८) उजो (९) उदक, आनी (१०) दण्डधारी. भांगर, उदक आनी उजो हीं सभासदाक सोपूत घेवपाखातीर आसतालीं.

- कों. वि. सं. मं.

**राजपुरी :** कर्नाटकांतल्या मंगळूर जिल्ह्यांत आशिल्ली एक जात. हे लोक कोंकणी भास उलयतात. शेती हो तांचो मुखेल वेवसाय. ते स्वताक वैश्य मानतात; पूण आपलो दर्जो ब्राह्मणाच्या फाटल्यान आसा अशें म्हणपी हे लोक जानवें घालतात. सगळयो धर्मीक कृती करपाखातीर हे लोक कऱ्हाडे ब्राह्मणांक आपयतात. हे शैव पंथाचे आसात.

कुडाळदेशकार आनी कुडुलकार ह्यो राजपुरी जातीच्यो पोटजाती, अशें १८९१ तले जनगणनेच्या वृत्तांतावयल्यान कळटा. कुडुलकार हे मिठाय तयार करपी लोक.

तांचेमदीं चली पिरायेंत येवंचे पयलींच तिचें लग्न करतात. न्हवऱ्या-व्हंकलेचे हात जोडून व्हंकलेच्या बापायन धरपाचे आनी व्हंकलेचे आवयन तांचेर उदक ओतपाचें हो लग्नांतलो मुखेल विधी. उदक पयलीं व्हंकलेच्या हातार आनी उपरांत न्हवऱ्याच्या हातार पडटलें अशेरितीन हात धरतात. हो विधी व्हंकलेच्या घरा करतात. चार दीस मेरेन न्हवरो वा व्हंकल कोणूय एकठें लग्नाचे बाज्जेर बसून रावतात. कारण ती बाज्ज केन्नाच रिकामी दवरूंक उपकारना. चवथ्या दिसा नवरो - व्हंकल न्हवऱ्याच्या घरा वचून थंय लेगीत तोच प्रकार करतात. तांचेमदीं विधवेच्या लग्नाची पद्दत ना. शीत हें तांचें मुखेल अन्न.

हे लोक चड करून शिवराक. पूण कांय जाण मात नुस्तें खातात. बदलत्या काळानुसार हे जातींतय आधुनीक बदल जायत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**राजपूत :** उत्तर भारतांतली एक व्हड जात. सद्या ह्या लोकांची वसणूक चड करून पंजाब, उत्तर प्रदेश, बंगाल, राजस्थान, मध्य प्रदेश आनी गुजरात ह्या राज्यांनी आसा. राजपुत्र ह्या उतरापसून राजपूत हें उतर तयार जाल्लें आसून हे लोक आर्यवंशी क्षत्रीय आसात अशें सादारणपणान मानप जाता.

आर्दी राजपुत्रांचीं ३६ कुळां आशिल्लीं. तांचीं नांवां चंदवरदायीन पृथ्वीराजरासो ह्या ग्रंथांत दिल्लीं आसात. हीं नांवां अशीं : ककुत्स्थ, परमार, सदावर, चाहुवान, चालुक्क, छंद, सिलार, अभीयर, दोयमत, मकवान, गरूअ, गोहिल, गुहिलोत, चापोत्कट, परिहार, राठोड, रोसजुत, देवरा, टांक, सैंधव, अनिग, यौतिक, प्रतिहार, दधिष्टट, कारट्टपाल, कोटपाल, हुल, हरितट, गौर, कमाष (कलाष), मट, धान्य-पालक, निकुंभवर, राजपाल, कवीनीस आनी कालच्छुरक (कलचुरी हैहय).

पंजाब, उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश, राजस्थान आनी गुजरात ह्या वाठारांत ह्या जायत्या राजपूत कुळांनी राज्यां स्थापन केल्लीं, तांचीं नांवां अशीं - गुहिलोत, राठोड, कच्छवाह, चौहान, परमार, चौलुक्य (सोळंकी), जाडेजा, चूडासम, झाला, चावडा, जम्मुवाल, चंदेल, गढवाल, तोमर, प्रतिहार, बुंदेले.

**इतिहास :** इ.स.च्या आठव्या शतमानांत अरबांनी सिंधाचेर जैत मेळयलें आनी थंयसावन राजस्थानाचेर घुरी घालूंक लागले. पूण मेवाडांतल्या गुहिलोत घराण्यांतल्या बाप्पा रावळ नांवाच्या पराक्रमी मनशान तांकां सडेतोड जाप दिली. इ.स.च्या णवव्या शतमानांत बगदादचो खलिफा अलमानून हाणें व्हडलें सैन्य घेवन भारताचेर घुरी घाली. पूण मेवाडचो राजा खुम्माण हाणें ताका हारयलो. ताका लागून ते उपरांत अरबांनी राजस्थानाचेर परत घुरी घालिना. इ.स.च्या ११ व्या शतमानांत गझनीच्या महमुदान भारताचेर जायत्यो घुरयो घाल्यो. पूण तो राजस्थानांत आयलोना. इ.स.च्या तेराव्या शतमानांत दिल्लीचेर सुलतानशाय प्रस्थापित जातकच भारतांतलीं चडशीं राज्यां सुलतानान घेतली. राजस्थानाचेरूय ताणें जायत्यो घुरयो घाल्यो पूण तातूंत ताका यश मेळ्ळेंना. त्या शतमानांत मेवाडचो राजा जैत्रसिंह हो खूब पराक्रमी आशिल्लो. ताणें मुसलमानी सैन्याक हारोवन मेवाडची राखण केली. हीच परंपरा १३ व्या शतमानाचे अखेर मेरेन तिगोवन मेवाडच्या राजांनी आपलें स्वातंत्र्य राखून दवरलें. इ.स. १३०३त अलाउद्दीन खिलजीन चित्तोडाचेर घुरी घाली. त्या वेळार रत्नसिंह आनी लक्ष्मणसिंह हांणी ताका खर प्रतिकार केलो. पूण झुजांत तांकां मरण आयलें. त्या वेळार राणी पद्मिनीन हजारांनी राजपूत बायलांवांगडा जोहार (आत्मसमर्पण) केलो. तेन्ना चित्तोडचें राज्य नश्ट जालें. उपरांत लक्ष्मणसिंहाचो नातू हम्मीर हांणें तें परत स्वतंत्र केलें. उपरांत क्षेत्रसिंह, मोकल, महाराणा कुंभा आनी संग्रामसिंह हे भीमपराक्रमी मनीस चित्तोडचे गादयेर आयले आनी ताणें स्वधर्माची आनी स्वातंत्र्याची राखण केली. फुडें बाबराच्या संघटीत सैन्यबळग्यामुखार राणासांगाचो तग लागलो ना आनी मेवाडाचें स्वातंत्र्य नश्ट जालें.

राजपुतांक राजस्थानाचेर एकछत्री राज्य स्थापप केन्नाच शक्य जालेंना. जयपूर, जोधपूर, उदयपूर, अजमीर, बिकानेर आदी राजस्थानांतलीं राज्यां स्वतंत्र आशिल्लीं.वेळ पडल्यार तीं मेवाडच्या फुडारपणाखाला एक जातालीं तरी तांचेमदीं एकामेकांभितर झुजां जातालीं. राजपुतांमदीं वेगळयो वेगळयो जमाती आनी कुळां आसून दर एके जमातीक आनी कुळांक आपआपल्या व्हडपणाचो अभिमान आसतालो. ताका लागून वेगवेगळे जमातींत सतत यादवी झुजां जातालीं आनी तांचेमदीं एकचार जावंक पावनासलो.

राठोड, भाटी, चौहान, कछवाहा, सिसोदिया, पंवार, सोळंकी, पडिहार, तंवर, झाला, चावडा, चुडासमा, जेठवा, जाडेजा, गोहिल, नातरायत, बुंदेल, परमार आनी वाघेला ह्यो राजपुतांच्यो मुखेल जाती. ह्यो पंजाब, उत्तर प्रदेश, राजस्थान, मध्य प्रदेश, गुजरात,आदी ह्या राज्यांत मेळटात. सगळया जातींचे पोटभेदूय खूब आसात.

आर्दी सगळे राजपूत लोक क्षात्रवृत्तीचे आशिल्ले. राजा, सेनापती, सरदार सैन्यांतले वेगवेगळे अधिकारी आनी सामान्य सैनीक अशे तांचे वेगवेगळे वर्ग आशिल्ले. हाचेभायर हेर वेवसाय ते करिनाशिल्ले. ताका लागून ही जात हुशार आनी झुजारी अशें मानतात. तशेंच, सरदारांक जहागिरी मेळिल्ल्यान भूस्वामित्त्वाची परंपराय तांचेमदीं निर्माण जाली. सध्याच्या काळांत क्षात्रवृत्तीचो लोप जाल्ल्यान जमीनदारी आनी शेती हांचेर ताची प्रतिश्ठा आदारून आसा. सद्या शेती होच तांचो मुखेल वेवसाय जालो.

राजपूत लोक ऊंच घटमूट आनी देखणे आसतात. तांच्यो बायलो सोबीतकाय, नाजूकसाण, गोरो वर्ण, हांचेखातीर प्रसिद्द आसात. राजपुतांचो सरदारी थाटाचो भेस म्हळयार अंगरखो, अचकन, चोळगो, तकलेक साफा, आनी गळयाभोंवतणीं लेंस असो आसता. सादारण राजपूत लोक धोतर वा लुंगी, सदरो, जाकीट खांद्यार रुमाल, वा उपरणें आनी तकलेक फेटो असो भेस करतात. बायलो लांब घागरो, पोलक्यावरी कोंपरामेरेनची चोळी आनी तकलेर ओडणी असो भेस करतात. तांच्या आंगार खूब वस्ती आसतात.

सरदार आनी श्रीमंत राजपुतांमदीं पड्ड्याची चाल आसा. राजपूत समाजांत बायलांक बरोच मान आसा. आर्दी तांकां स्वयंवर करूंक मेळटालें. घरांतले घरांत तीं शिक्षणूय घेतालीं. राजपूत

घराण्यांत विदुशी आनी कवयत्री बायलो जावन गेल्ल्याचीं उदाहरणां इतिहासांत मेळटात.

राजपूत लोक शिव आनी शक्ती हांचे उपासक. एकलिंगजी हें मेवाडच्या राजवंशाचें आराध्य दैवत. हे लोक दुर्गा, गौरी, अन्नपुर्णा, शाकंभरी, आशापुरी आदी जायत्या नांवांनी शक्तीची उपासना करतात.

राजपुतांमदीं वैश्णव पंथाच्या उपपंथाचे अनुयायी आसात. वल्लभ संप्रदायाचे अनुयायी कृष्णभक्त आसून नाथद्वारा हें तांचें व्हड पुण्यक्षेत्र. कांय राजपूत सूर्योपासक आसात. हे लोक गणपती, हनुमान ह्याय देवांक भजतात. जलदेवीक तशेंच नागाक पुजपीय जायते राजपूत आसात. तेजाजी, गूगा आनी पीपा ह्या वीर पुरसाची पुजा जायते जाण करतात.

पुर्विल्ल्या काळांत राजपूत लोकांमदीं बालविवाह प्रचलित आशिल्लो. तांचेमदीं लग्न संबंद जुळोवपाचें काम भाट वा चारण करतात. कारण ताका सगळया कुळांची बरी म्हायती आसता. उपरांत व्हंकलेचो बापूय आपले ऐपतीप्रमाण वराक अहेर धाडटा. हाका टिका म्हण्टात. हातूंत वस्त्रालंकार, नाल्ल, घोडो आनी हेर वस्तू आसतात. उपरांत लग्नाची तीथ निश्चीत करतात. व्हंकलेचें लग्न सुरवेक न्हवऱ्याकडेन आशिल्ले कट्यारीकडेन करतात. उपरांत व्हंकलेकडले लोक न्हवऱ्यागेर वतात आनी थंय मुखेल लग्नविधी करतात. लग्नांत ब्राह्मण पुरयत देवांक आवाहन करून होम घालता. न्हवरो-व्हंकल अग्नीक चार प्रदक्षणा घालता. पुरयत मंत्र म्हण्टात. बायलो पदां म्हण्टात. इतलें जातकच लग्नविधी पुराय जाता.

तांचेमदीं जायत्यो बायलो करपाची रीत आसा. घटस्फोटाची चाल ना, तशेंच विधवाविवाहूय मान्य ना. ही चाल मोडून जो विधवाविवाह करीत ताका नातरायत हें नांव मेळ्ळां तशेंच ताकां जातीभायरूय घालतात.

राजपूत लोक मर्डी लासतात. निशणीक (तिरडी) मडे बांदचेआदीं ताका न्हाण घालून नवीं वस्त्रां न्हेसयतात. मसंडेंत मडें सरणार दवरचे आदीं ताका परत न्हाणयतात. उपरांत सरणार दवरून ताचेर बेलाचीं पानां, चंदन, धूप, आनी नाल्ल दवरतात. ताच्या हातांपांयांक तूप लायतात. उपरांत मृताचो वारस मड्याक उजो लायता.

राजपूत लोक धा दीस सुतक पाळटात. ह्या धा दिसांमदीं दोण्यांत साकर, दूद आनी अफूचें उदक घालून घराच्या पाख्यार दवरतात. णव दीस सदांच पींडदान करतात. इकराव्या दिसा सगळे न्हावन ताचें श्राध्द वाडटात.

राजपूत लोकांक पेंवप, घोड्याचेर बसप, कुस्ती, शिकार तशेंच तरसाद, भालो हीं शस्त्रां चलोवप, धनुर्विद्या, फासे, बुद्दीबळ ह्या खेळांची आवड आसा. अचूक नेम मारपांत ते खांपे. खूबशा लोकांक कुस्तेचो तशेंच शिकारेचो नाद आसता. वसंतऋतू आयलो म्हण्टकच ते आहेरिया नांवाचो उत्सव करून शिकारेक सुरवात करतात. तांकां सोऱ्याचें तशेंच अफूचेंय व्यसन आसता.

दसरो, दिवाळी, होळी - रंगपचम, आहिरिया ह्यो परबो राजपूत लोक मोटे उमेदीन मनयतात. हे लोक वसंतोत्सव मोटे उमेदीन मनयतात. वसंतपंचमीसावन चाळीस दीस रंगीत भेस करून गावप, नाचप, खेळप आनी मजा करप हे मुखेल कार्यक्रम आसतात.

रथसप्तमीक राजपूत लोक भानुसप्तमी म्हण्टात. फाल्गुनांत होळी हो वसंतोत्सवाचोच एक वांटो, हातुंतल्या अश्टमे आनी पुनवे दिसा खास उत्सव आसता. चैत्र म्हयन्यांत बायलो गौरीचो उत्सव करतात. चैत्र शुध्द तिरोदस आनी चतुर्दस ह्या तिथींक मदनत्रयोदशी आनी मदनचतुर्दशी म्हण्टात. ह्या दिसा बायलो फुलांचो शिरंगार करून, पदां म्हणून नाच करतात. हाचेभायर वैशाख म्हयन्यांत धाकली गौर, वैशाख शुध्द चतुर्दशीक वडापुनव, ज्येश्ठ म्हयन्यांत रंभापुजन,अरण्यशश्ठी, श्रावणांत नागपंचम, रक्षाबंधन आनी कृष्णजल्म, अश्विनांत नवरात आनी दसरो, दिवाळी हे उत्सव ते मोटे उमेदीन मनयतात.

साहित्य आनी कलेच्या मळार राजपुतांनी बरीच उदरगत केल्ली आसा. राजसमुद्र आनी जयसमुद्र हीं संगमरवरी पाशाणान बांदून काडिल्लीं तळीं, पिछोला तळयाभितर आनी देगेर बांदिल्लीं सोबीत राजमंदिरां, जयपूर आनी जोधपूरच्या जैताचीं यादस्तिकां म्हणून बांदिल्ले कीर्तिस्तंभ, जैन साधू खातीर बांदिल्ले मठ, विहार आदी जायत्यो वास्तू आयजूय राजपुतांचे कलाप्रियतेची गवाय दीत उब्यो आसात.

राजस्थानांत कविता, नाटक, संगीत, शिल्प, आयुर्वेद, ज्योतीश आदी वेगवेगळया विशयांचेर बरयल्ले ग्रंथ उपलब्ध आसात. तातूंतले कांय शिलाखंडार कोरांतिल्ले आसात. राजपूत राजामदीं राणा कुंभा हाची साहित्यसेवा उल्लेख करपासारखी आसा. तो षड्दर्शनाचो पंडीत आनी संगीतशास्त्रांतूय पारंगत आशिल्लो. ताणें स्वता संगिताचेर ग्रंथ रचिल्ले आसात आनी शिल्पशास्त्राचेर ग्रंथ रचून घेतिल्ले आसात. ताणें निर्माण केल्लीं कीर्तिस्थंभ, कुंभस्वामी, आदिवराह हांचीं देवळां, कुंडां, तळीं, कुंभलगडचो किल्लो हीं ताचे कलाभिरुचीची गवाय दितात. बाप्पा रावळ, रायमल, प्रताप, अमरसिंह, राजसिंह, जयसिंह आदी जायत्या राजपूत राजांनी साहित्याची आनी कलेची सेवा केली. मीराबाईच्या भक्तीरसान भरिल्ल्या पदांची खुबूच नामना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**राजपूत चित्रशैली :** चित्रकारांनी राजस्थानांतल्या राजपूत राजांच्या आलाशिऱ्याक रावन राजस्थानी प्रकृती - संस्कृतीचो संदर्भ घेवन नवे पद्दतीचीं चित्रां काडलीं तिका राजस्थानी वा रजपूत चित्रशैली हें नांव मेळ्ळें. रामायण, महाभारत, गीतगोविंद आदी ग्रंथ

आनी संतसहित्य हातुंतलीं म्हत्वाच्या प्रसंगांवयलीं चित्रां तांणी काडलीं. तेचपरी लोकजिणेंतले कांय प्रसंगय तांणी चितारले. ताका लागून तांची कला सगळयांक आवडली. तांचो भर चडसो राधाकृष्णाच्या लिलाचें चित्रण करपाचेर आशिल्लो. पूण तांच्या चित्रांनी राधाकृष्णाच्या प्रणयाचो प्रतिकात्मक उपेग करून आत्मो आनी परमात्मो हांचें मिलन दिसता. रचनेचे नदरेन पळोवंक गेल्यार तांचीं गीतगोविंदावयलीं चित्रां, सार्दी आसून तातूंत गाड रंगाचे फांटभूंयेचेर सावळेवरी मनशाकृती, रेशेची सुबकताय आनी तालबद्द हालचाल ह्यो गजाली दिसतात. रसिकप्रिया काव्यावयल्या चित्रांतल्या मनशांआकृतींचेर मुखामळाची एकूच वट चितारप हें मोगल शैलीचें खाशेलपण ह्या चित्रांनी दिश्टी पडटा. रागमाला, बारहमास आनी स ऋतू हांचेवयल्या चित्रांनी राजपूंत कलावंतानी सुमाराभायली कामगिरी केल्या.


राजपूत सरदार

सैमांतलें जिवेपण आनी टवटवीतपणा रेखाटपाची तांची कुशळटाय अप्रूप आशिल्ली. तेरवातीर तांणी प्रतिकांचें माध्यम वापरिल्लें आसा. आनी ताका लागून राजपूत चित्रकला सजीव दिसता. मनशाच्या आकृतींच्या चित्रणांत दोळयांचो आकार नुस्त्यावरी काडून चितारिल्लयान मनशाचे मनोभाव कलाकारांनी सहज उक्तायिल्ले आसात.

मोगल चित्रशैली आनी राजपूत चित्रशैली हातुंतलें वेगळेपण म्हळयार मोगल चित्रशैली दरबारी आनी राजपूत लोकाभिमुख आसा. मोगल बादशाहाच्या आलाशिऱ्याक आशिल्ल्या कलाकारांनी राजा, बादशा सरदार, संत, हांचीं चित्रां काडलीं आनी दरबारांतले प्रसंग चित्रीत केले. राजपूत आनी पहाडी कलासंप्रदायांत राधाकृष्ण हें बायलां-दादल्याचें शाश्वत मिलनाचें प्रतीक आशिल्लें. हाचेभायर हरण, मोर, कुपां, पावस, वीज, सोरोप, वाल, यमुनेचो प्रवाह आदी सुबोध प्रतिकांय ह्या संप्रदायांत वापरिल्लीं आसात. राजपूत चित्रकलेंत काल्पनीक सृश्टीचें चित्रण केल्लें नासून वास्तव सृश्टिकूच लाक्षणीक रूप दिलां आनी प्रणयाक प्राधान्य दिल्लें आसा.

राजस्थानांतल्या जोधपूर, जयपूर, उदयपूर, कोटा बुंदी, किशनगढ, नाथद्वारा, अलवार, बिकानेर आदी वेगवेगळया संस्थानांनी वेगवेगळया चित्रकारांनी हे चित्रशैलीची जोपासना केली. वेगवेगळया थळांच्या कलाकारांचे चित्रपद्दतींत कांय प्रमाणांत फरकूय दिसता. ताका लागून ते ते पद्दतीक त्या त्या थळाचें नांव मेळिल्लें आसा. जयपूर, जोधपूर, कोटा, बिकानेर आनी नागोर हांगाच्या राजप्रासादांत आनी देवळांत राजपूत शैलीचीं वणटीचित्रां पळोवंक मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**राजमुद्रा :** कसल्याय दस्तऐवजाचें अधिकृतपण दाखोवपी राजचिन्न. खंयचोय हुकूम, आज्ञा, दान, अग्रहार ह्या अधिकृत दस्तऐवजांचेर राजमुद्रा मारून त्या दस्तऐवजाक राजाची मान्यताय आसा हें सिध्द



जातालें. ही प्रथा भारताच्या जायत्या भागांनी प्रचलित आशिल्ली. वेगवेगळया प्रदेशांनी केल्ल्या उत्खननांनी आनी समन्वेशणांत जायत्या तरांच्यो मुद्रा सांपडल्यात. राज्य करपी राजा भायर हेर जायत्या अधिकाऱ्यांच्यो, व्यक्तींच्यो, गणराज्यांच्यो मुद्रा व्हड संख्येन उपलब्ध जाल्ल्यो आसात.

इंग्लिशींत मुद्रांक 'सील' आनी 'सीलिंग' अशो संज्ञा आसात. गुप्त, वाकाटक, चालुक्य, राश्ट्रकूट सारकिल्ल्या घरांण्यांच्या तशेंच हर्षवर्धनाच्या ताम्रपटांच्या कड्यांचेर अशो मुद्रा आसून ते ताम्रपट 'अधिकृत' केल्ल्याचो तो पुरावो. राजा, राणी, राजपुत्र, कुमारामात्य, अधिकारी, प्रदेशीक कारभाराविशींचे घटक, शिक्षणीक संस्था, अर्थीक संस्था, देवळां, विहार, पंथोपपंथ आनी वेगवेगळया समाजीक स्तरांवयल्यो व्यक्ती ह्या सगळयांविशीं उपेगी आनी नवी म्हायती मेळोवपाचे नदरेन मुद्रांचो अभ्यास खूब उपेगी थारिल्लो आसा.

इ.स.आदीं सुमार दुसरो शेंकडो ह्या कालखंडांत आस्पाव जावपी मुद्रा पंजाब आनी राजस्थानांत सांपडल्यात. तांचेर मालव जनपद वा मालव गण असो लेख आसा. तशेंच पंजाबांत यौधेय गण

असो निर्देश आशिल्ल्यो मुद्रा उपलब्ध आसात. हांचे भायर इतिहासांत आनी वाङ्मयांत चडशा नामनेच्या नाशिल्ल्या राजांच्यो मुद्राय सांपडिल्ल्यो आसात. पंजाबांत संघोलाक इ.स. पयल्या शेंकड्यांत खरोष्ठी लिपींत 'रजदिरजस त्रतरस गुडुफरस' (गोण्डोफरीस) असो लेख आशिल्ली मुद्रा उपलब्ध जाल्या. हे मुद्रेचेर मर्दी उजव्या हातांत ढाल आनी दाव्या हातांत वज्र घेतिल्ले 'पल्लास' हे देवतेची मूर्त आसा. कनिष्क, अस्तंती क्षत्रपांचे रुद्रसेनादी राजांच्या इसवी सनाचे सुरवेच्या काळांतल्यो राजघराण्यांच्यो मुद्रा प्रसिद्द आसात. पुण्यांत सांपडिल्ल्या वाकाटक राजघराण्यांत लग्न जाल्ल्या प्रभावती - गुप्ता हे राणयेच्या ताम्रपटाची मुद्रा चार ओळींची आसून 'वाकाटक ललामस्य क्रप्रासनृपश्रियः जनन्या युवराजस्य शासनं रिपुशासनम्' असो मजकूर ताचेर आसा. वाकाटक घराण्यांतलो दुसरो प्रवरसेन हाचे जायते ताम्रपट विदर्भांत मेळ्ळयात. आनी तांचेरूय राजाचें आनी वंशाचें नांव दिल्लें आसा. गुप्त घराण्यांतल्यो श्रीगुप्त, समुद्रगुप्त, घटोत्कचगुप्त, बुधगुप्त ह्या राजांच्यो मुद्रा उपलब्ध आसून त्यो ह्या राजांच्यो पदव्यो, तांचो धर्म हांची म्हायती दितात. तांचेवयलो गरुडादी आशय खूब कलात्मक आसा. हीच प्रथा गुप्तोत्तर काळांत चालूच उरली.

चालुक्य, राश्ट्रकूट सारकिल्या दक्षिणेंतल्या राजघराण्यांच्या ताम्रपटांच्या कड्यांचेर राजाचें नांव, पदव्यो, राजचिन्न सारकिले आशय सांपडटात. मध्ययुगांत राजमुद्रांची प्रथा चालूच उरली. सनद सरकारी पत्रांचेर राजमुद्रा वा पयले श्रेणींतल्या अधिकाऱ्यांच्यो मुद्रा छापताले. ही प्रथा सामकी शिवकाल आनी ताचे उपरांतूय चालूच उरली. मोडी सनद आनी पत्रां हांचो अखेर चड करून 'इति लेखनसीमा' ह्या उतरांनी करताले आनी मागीर राजमुद्रा छापताले. 'प्रतिपञ्चन्द्ररेखेव .. मुद्रा भद्राय राजते', ही शिवछत्रपतीची मुद्रा प्रसिद्द आसा.

आधुनीक काळांतय अशाच उद्देशाच्यो आनी उपेगाच्यो अधिकार - मुद्रा वापरांत आसात.

भारत स्वतंत्र जातकच राज्य यंत्रणेंत जाल्लो बदल अधिकृतपणान सुचीत करप आनी स्वतंत्र राश्ट्राची नवी अस्मिता दाखोवन दिवप अशा दोट्टी उद्देशान भारताचे घटना समितीन एके नवे राश्ट्रमुद्रेची येवजण केली. हे येवजणे प्रमाण सारनाथ हांगाच्या अशोक स्तंभाच्या शिर्षाची प्रतीकृती राजमुद्रा म्हणून घेतली. हे मुद्रेंत चार दिकांक तोंडां केल्ले आनी एकामेकांक फाट केल्ले उबे शींव, शिंवाच्या पांयांपोंदा आशिल्ले वाटकुळे पिटीकेचेर हत्ती, शींव, घोडो आनी बैल हे प्राणी आनी प्राण्यांमदले सुवातेंत एक एक धर्मचक्र. हे राजमुद्रेखाला ' सत्य मेव जयते ' हें स्वतंत्र भारताचें बोधवाक्य बरयल्लें आसा. स्वतंत्र भारताचो राजकारभार सम्राट अशोकाच्या राज्यकारभारा सारको आदर्श आसचो ही भावना हे राजमुद्रे फाटल्यान दवरल्या. नाणी, नोटी, टपालाचीं तिकीटां, सरकारी कागदपत्र, आनी हेर सरकारी दस्तऐवज हांचेर राजमुद्रा छापिल्ली आसता. तशेंच राश्ट्रपती भवन, संसद भवन, सचिवालयां सारकिल्लीं सरकारी अधिकृत सभाघरां आनी प्रधानमंत्री, राज्यपाल, मुख्यमंत्री हांचीं निवासस्थानां; सर्वोच्च न्यायलय, उच्च न्यायलय हांच्यो इमारती हांचेर राश्ट्रमुद्रेच्यो प्रतीकृती बसयल्ल्यो आसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**राजराजेश्वरी :** एक देवी. दशमहाविद्यांतली जी चवथी शक्ती भुवनेश्वरी, तिकाच भैरव तंत्रांत राजराजेश्वरी अशें म्हळां. राजापरस चड वैभव भोगपी आनी ब्रह्मा, विष्णु, महेश, ह्या देवांचीं आसनां करून तांचेर बसपी म्हणून हिका राजराजेश्वरी म्हणिल्ली आसा. ब्रह्मा, विष्णु, रूद्र ह्या देवांनी आपआपल्याक दिल्लीं कामां सोडून दिलीं आनी ताका लागून ते मेल्लेवरी जाले. अशी शाक्त तंत्रांतली कल्पना आसा. अशा वेळार ही तांच्या मड्याचेर उबी रावन विश्वाची वेवस्था चलयता अशें तातूंत म्हळां.

उत्तर प्रदेशांतल्या उनाव जिल्ह्यांत बांगरमऊ नांवाच्या गांवांत हिचें नामनेचें देवूळ आसा. हांगाची मूर्ती तंत्रशास्त्र आनी योगशास्त्र हांच्या आदारान तयार केल्ली आसा. हाचेभायर नेपाळ, रामेश्वर, आनी विदर्भांतल्या मंडला किल्ला ह्या स्थळांनी तिचीं देवळां आसात.

राजराजेश्वरीक राजरा अशेंय म्हण्टात. महाराष्ट्रांतल्या कांय ब्राह्मणांच्या घरा हिचे टाक आसतात. ह्या टाकांनी तिंच्यो सात प्रतिमा आसतात. हे देवीच्या नांवान एक कूलधर्म आसता. घरांत लग्नकार्य जालें म्हण्टकच हो कूलधर्म करतात. कांय कडेन चैत्र पुनवेकूय हो कूलधर्म करतात. हाका साडेसात मनशांचो कूळधर्म म्हण्टात.साडेसात मनशांमदीं एक घरचो मेवणो, एक भायलो मेवणो, एक ब्राह्मण, एक सवायशीण, एक ब्रह्मचारी (अर्दो मनीस) आनी एक विधवा अशा मनशांक जेवपाक आपयतात. हातुंतले विधवेक मायगोसावीण वा विठ्ठलवाष्ण अशें नांव आसा.

ह्या वेळार केल्लें जेवण साडेसात मनशांपुरतेंच करतात. जेवण करून उरिल्लें अन्न जमनींत पुरतात ना जाल्यार गांवाभायर व्हरून उडयतात. हें जेवण घरांतल्या कुमारिकांचे नदरेक पडूंक दिवपाचें नासता अशी समजूत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**राजवाडे, कृष्णशास्त्री :** (जल्म : इ.स. १८२०; मरणः ६ ऑगस्ट १९०१, पुणें).

मराठी ग्रंथकार. पुण्याचे संस्कृत पाठशाळेंत न्याय, अलंकार, वेदान्त आनी धर्म ह्या शास्त्रांचें ताणें अध्ययन केलें. उपरांत थंयच तो साहित्य आनी अलंकारशास्त्र ह्या विशयांचो १८४१ वर्सा अध्यापक जालो.

१८५६ वर्सा शिक्षण खात्याच्या भाशांतर विभागांत ताची नेमणूक जाली. ''अलंकारविवेक'' (१८५३) हो ताचो चड उल्लेख करपासारको असो ग्रंथ. ह्या ग्रंथांत संस्कृतांतल्या अलंकारांचो परिचय थोडेभितर करून दिला. ह्या अलंकारांचीं उदाहरणां मुक्तेश्वर, वामन ह्या सारक्या मराठी कवींच्या रचनांतल्यान ताणें दिल्यांत. संस्कृतांतले साहित्यविचार मराठींत हाडपाचो हो सुरवातेचो प्रयत्न म्हणूं येता. संस्कृतांतल्या मालतीमाधव, मुद्राराक्षस, अभिज्ञानशाकुंतल,



महावीरचरित ह्या नाटकांचे ताणें मराठी अनुवादूय केल्यात. ऋतुवर्णन आनी उत्सवप्रकाश हीं ताणें रचिल्लीं काव्यां. ऋतुवर्णन हें कालिदासाच्या ऋतुसंहाराच्या अनुकरणांतल्यान रचलां. उत्सवप्रकाशांत अठरा हिंदू सणांचें वर्णन आसा.

पुण्याक,१८८५ वर्सा भरिल्ल्या दुसऱ्या मराठी साहित्यसंमेलनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## राजवाडे, विश्वनाथ काशीनाथ : (जल्मः १२ जुलय १८६४, पुणें; मरण : ३१ डिसेंबर १९२६, धुळे).

मराठींतल्यान इतिहास, भाशाशास्त्र, व्युत्पत्ती, व्याकरण ह्या वेगवेगळ्या विशयांचेर संशोधन आनी लिखाण केल्लो एक व्हड प्रतिभावान विद्वान. इतिहाससंशोधक म्हणूनय ताका चड नामना मेळ्ळी.

१८८२ वर्सा तो मॅट्रीक जालो. मुंबयचे एल्फिन्स्टन कॉलेज आनी पुण्याचे डेक्कन कॉलेजींतल्यान महाविद्यालयीन शिक्षण घेवन १८९० त तो बी. ए. जालो. १८९१ त पुण्यांतल्या इंग्लीश स्कुलांत शिक्षक म्हणून ताची नेमणूक जाली. पूण सुमार अडेज वर्सांनी १८९३त ताणें ते नोकरेचो राजिनामो दिलो. ताणें पुणें, सातारा, वाई, धुळे, मिरज, तळेगांव - दाभाडे ह्या सुवातांचेर वास्तव्य केलें. तशेंच महाराष्ट्रभर आनी महाराष्ट्राभायर इतिहासीक साधनांच्या आनी पुर्विल्ल्या साहित्याच्या सोदांत एकसारको भोंवत रावलो. देगणांतले पुर्विल्ले अवशेश पळयत आनी खांची-कोनशांतलें पोरनें साहित्य एकठांय करीत आसतना, ताचें बरोवपाचें कार्य (लेखनकार्य) व्हड प्रमाणांत सुरू जालें. १८९४ सावन आपणें सुरू केल्लें 'भाशांतर' तशेंच कोल्हापूरचें समर्थ, ग्रंथमाला, विश्ववृत्त, सरस्वती मंदिर, प्राचीप्रभा ह्या नेमाळ्यांतल्यान तो आपलें भरपूर लिखाण करूंक लागलो. १८९८-१९१७ ह्या मजगतच्या काळांत 'मराठ्यांच्या इतिहासाची साधने' ह्या नांवाच्या अस्सल मुळाव्या मराठी साधनांचे बावीस खंड ताणें संपादून उजवाडायले. हातुंतल्या खंडांनी ताणें विस्तृत प्रस्तावना बरयल्यात. राधामाधवविलासचंपू आनी महिकावतीची बखर हे दोन पोरने ग्रंथ अनुक्रमान १९२२ आनी १९२४ त संपादून उजवाडायले. ज्ञानेश्वरीचीं खूब पोरनीं हातबरपां, पोथयो, निङ्त विचार, सुबंत विचार,संस्कृत भाशेचो उलगडो, महाराष्ट्राचो वसाहतकाळ अशें कांय ग्रंथ ताणें बरयले आनी ते ताचे हयातींत उजवाडा आयले. मराठी धातुकोश, नामादिशतदव्युत्पत्तिकोश हे ग्रंथ ताच्या मरणाउपरांत उजवाडा आयले. ताच्या लेखांचे आनी प्रस्तावनांचे कांय खंड शं. ना. जोशी हाणें संपादून उजवाडायले. तेभायर ताचें स्फूट लिखाण धुळयांच्या 'संशोधक' ह्या अंकांतल्यान उजवाडा आयलें. संत रामदास आनी शिवाजी महाराज हांचे विशींचेंय लिखाण ताणें केलें. १९०५ वर्सा उजवाडा आयिल्ली इतिहासमिमांसा त्या वेळार खूब गाजली. राजकीय इतिहासाचो सोद घेत घेत पुर्विल्ल्या साहित्याकडेन पावून पोरन्या मराठी साहित्याचो अर्थ जाणून घेवपाखातीर त्या काळावयल्या मराठी भाशेच्या उतरांचो उगम व्युत्पत्तिशास्त्र आनी भाशेंतलें स्थित्यंतर अशा कितल्याशाच विशयांचेर ताचें योगदान आसा. महाराष्ट्रांतल्या व्यक्तींचीं उपनांवां-ग्रामनांवांचीं मुळां सोदून ती चड करून संस्कृतोद्भव आसात तें दाखोवन दिलें आनी ते नदरेन संस्कृत भाशेचो आनी वैदिक भाशेचो खोल विचार करून ते नदरेन ताणें कांय संशोधनात्मक प्रबंध बरयले. ते कांय ताच्या मरणा पयलीं आनी कांय मरणाउपरांत उजवाडा आयले.

कसलेय तरेचें कार्य सिध्दीक पावयतलो जाल्यार ताका संघटनेची गरज आसता हें जाणून १९१० वर्सा ताणें पुणेंच्या नामनेच्या भारत इतीहास संशोधक मंडळाची स्थापणूक केली. समाजशास्त्र मंडळ आनी आरोग्यमंडळ अशोय संस्था ताणें स्थापन केल्ल्यो. तेभायर रेल्वे प्रवाशांची संघटना स्थापन करपाक फुडाकार घेतलो.

स्वभाशेच्या आनी स्वदेशाच्या इतिहासांतल्यान स्वाभिमान जागोवप आनी सामान्य मनशांत स्वत्त्वाची जागृताय हाडप ही ताच्या कार्याची मोख आसली.

- कों. वि. सं. मं.

## राजशेखर : (इ.स.चो ९ वो शेंकडो).

एक कवी, नाटककार आनी साहित्य शास्त्रज्ञ. राजशेखरच्या बापायचें नांव दुर्दुक (दुहिक) आनी आवयचें नांव शीलवती. यायावर नांवाच्या ब्राह्मण कुळांत ताचो जल्म जालो. तो आपल्या ग्रंथांत 'महाराष्ट्र कुलचूडामणी' अशें आपलें वर्णन करता. हाचेवयल्यान तो मूळचो महाराष्ट्रीय म्हणपाचें कळटा. तो आनी ताचे पुर्वज जरी मूळचे विदर्भांतले आसले तरीय विदर्भांत खंयच्याच राजाची त्या काळांत समृध्द अशी राजधानी नाशिल्ली. देखून तें कुटूंब त्रिपुरीच्या कलचुरी राजांच्या आलाशिऱ्याक गेलें.

राजशेखर जरी ब्राह्मण आशिल्लो तरीय तो चौहान नांवाच्या क्षत्रीय कुळांतल्या अवंतिसुंदरी हे चलयेकडेन लग्न जाल्लो. तिका विदुशी आनी काव्यशास्त्र कळटालें.

राजशेखराक लहानपणापसूनच काव्यकला अवगत आशिल्ली. देखुनूच ताका बालकवी अशी पदवी मेळिल्ली. त्या काळांत कनौजाचेर प्रतीहारांचे साम्राज्य आशिल्लें . राजशेखर आपलें नशीब पारखुपारवातीर प्रतीहार सम्राट महेंद्रपाल हाच्या आलाशिऱ्याक गेलो. राजशेखराची विद्वत्ता पळोवन महेंद्रपालान ताका आपलो गुरू केलो. थंयच ताका कवीराज ही पदवी मेळ्ळी. महेंद्रपाल आनी ताचे उपरांत ताचो पूत महीपालाच्या दरबारांत रावुनूय ताणें आपली बरीच ग्रंथरचणूक केली.

इ.स. ९१८ च्या अदमासाक राश्ट्रकूट राजा इंद्र (तिसरो) हाणें कनौजाचेर घुरी घालून तें नगर उद्ध्वस्त केलें. ताचे उपरांत प्रतिहारांच्या साम्राज्याक देंवती कळा लागली. देखून राजशेखर परत त्रिपुरीक युवराजदेव (पयलो) ह्या कलचूरी राजाच्या आलाशिऱ्याक आयलो. काव्यमीमांसा ह्या ताच्या बृहद्ग्रंथाचे रचनेक ताणें थंयच सुरवात केली.

राजशेखर आपणाक महाकवी म्हणिनासतना कवीराज म्हण्टालो. ताचें पांडित्यय काव्याच्या मळार उठून दिसपी आशिल्लें. ताका ताची जाणविकायय आशिल्ली. संस्कृत, प्राकृत, पैशाची आनी जायत्या अपभ्रंश भाशांनी तो तरबेज आशिल्लो आनी ह्या सगळया भाशांनी तो काव्य निर्मिती करतालो.

राजशेखरान बालरामायणांत आपणें रचिल्ल्या षट्प्रबंधांचो निर्देश केल्लो आसा. ते स प्रबंध अशे- १) **बालरामायण** : हें धा अंकांचें महानाटक आसून सीतास्वयंवरापसून रावणवधामेरेनची रामकथा हातूंत येता. हे नाट्य रचणुकेंत कवीन आपली समस्त काव्यचातुरी आनी पदविन्यास कुशळटाय प्रकट केल्या.

२) **बालभारत** : हेंय एक नाटक आसून हाचे फकत दोनूच अंक उपलब्ध आसात. हाचें दुसरें नांव प्रचंडपांडव. तातूंत द्रौपदीस्वयंवर, द्यूत आनी वस्त्रहरण ह्या तीन घटनांचें वर्णन आसा.

३) **विध्दशालभंजिका** : ही चार अंकांची नाटिका. हातूंत राजा विद्याधरमल्ल आनी राजकन्या मृगांकावली हांची प्रणयकथा वर्णिल्ली आसा.

४) **कर्पूरमंजरी** : हें चार अंकांचें नाटक आसून तें प्राकृत भाशेंत बरयल्ल्यान ताका सट्टक अशें म्हण्टात. हातूंत राजा चंडपाल आनी कुंतल राजकन्या कर्पूरमंजरी हांची प्रणयकथा वर्णिल्ली आसा.

५) **काव्यमीमांसा** : एक साहित्यशास्त्रीय ग्रंथ. ताणें तो अठरा विभागांनी पुराय करपाचें थारायल्लें. पूण ह्या ग्रंथाचो पयलोच भाग उपलब्ध आसून तो अठरा अध्यायांचो आसा. ताणें ह्या पयल्या भागाचें नांव कविरहस्य अशें दवरलां. हो ग्रंथ अपूर्व आसा. ह्या ग्रंथांत कवीन फकत मार्गदर्शक अशो वेव्हारीक सुचोवण्यो केल्यात.

पयल्या अध्यायांत काव्यमीमांसेचे नदरेन शास्त्रसंग्रह केल्लो आसा.दुसऱ्यांत वाङ्मयाचें वर्गीकरण केल्लें आसून ताचें शास्त्र आनी काव्य अशे भेद सांगिल्ले आसात. तिसरो अध्याय काव्यपुरूशोत्पत्तीचो आसा.

काव्यरचणुकेच्या कामांत उपेगी पडपी अशा जायत्या विशयांची काव्यमीमांसेंत फोडणिशी केल्ली आसा. राजशेखरान आपल्या ह्या ग्रंथांत कांय म्हत्वाची इतिहासीक आनी ग्रंथविशयक म्हायतीय दिल्ली आसा.

६) **भुवनकोश** : ह्या नांवाचो भुगोलवर्णात्मक एक ग्रंथ आपणें रचला अशें कवीन काव्यमीमांसेंतूच सांगिल्लें आसा. बालरामायणांतल्या धाव्या अंकांतय ताणें भुगोलाची बरीच म्हायती दिल्ली आसा.

तशेंच हरविलास नांवाच्या ताच्या एका म्हाकाव्याचोय उल्लेख ताणें बालरामायणांत केला. हेमचंद्र आनी उज्ज्वलदत्त हाणें त्या काव्यांतले एक - दोन श्लोक उद्धृतूय केल्ले आसात. हें महाकाव्य उपलब्ध ना.

शार्दूलविक्रिडीतांत राजशेखर कुशळ आशिल्लो.

शब्द कलेचेर अमाप प्रभुत्व आशिल्ल्या ह्या कवीच्या काव्यांत रसपरिपाक खुबूच उण्या प्रमाणांत दिश्टी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**राजसूय यज्ञ** : एक श्रौत याग. राजाच्या राज्याक नामना मेळची म्हणून हो यज्ञ करतात. जायत्यो इष्टी पशुयाग आनी स सोमयाग हे ताचे घटक.

दोन वर्सांपरस चड काळमेरेन हाचें अनुश्ठान चालू आसता. राजपरिवाराकडेन संबंद आशिल्ल्या व्यक्तींच्या घरांत सदांच एक हे प्रमाण बारा दीसमेरेन 'रत्निनां हवींषि' नांवाच्यो इष्टी राजा करता. अभिषेचनीय नांवाचो जो दुसरो सोमयाग करपाचो आसता तो चड म्हत्वाचो. राजाक करपाच्या अभिशेकाखातीर वेगवेगळया जाग्यांवयलें आनी जायत्या तरांचें उदक हाडून तें संस्कारीत करतात. राजाच्या शेकातळा आशिल्ल्या प्रदेशाचो औपचारीकपणान उच्चार करतात. ताच्या हातांत धोणू दितात. वागाच्या कातड्याचेर ताका बसोवन ताचे तकलेर बुराक आशिल्लें भांगराचें पात्र धरतात. सोमराजा, वरूण आनी धर्मप्रवर्तक देवता राजाक सगळया तरांचें बळगें दिवं, अशें मागणें करतात. लोकप्रतिनिधी आनी मुखेल ऋत्विज राजाक आपल्या हातांतल्या उदकांनी अभिशेक करतात. त्या उदकाचो शेष घेवन ऋत्विज राजाच्या वारसदाराच्या घरा येतात. ताच्या हातांत हें उदकपात्र दिवन ताच्या अभिशेकाची वेळ येमेरेन तें सांबाळून दवरपाक सांगतात. राजाच्या पुर्वजांचो नामोच्चार करून राजाक राजसुयाचो अभिशेक केल्ल्याची घोशणा करतात.

उत्तर दिकेक रथ उबे आसतात. वारसदाराच्या हातांतलें धोणू घेवन राजा रथाचेर बसता. ताचे फाटोफाट वारसदारूय रथाचेर चडटा. ताच्या हातांत धोणू दिवन राजा ताका आज्ञा करता, 'हांगाच्यान कांय अंतराचेर अमको अमको क्षत्रीय आपल्या सैन्यावांगडा येवन रावला. ताका जिखून दक्षिणेवटेन धांवडावन घाल' रथ धांवपाक लागतात आनी परत येवन उबे रावतात. राजप्रतिनिधी तातुंतल्यान सकयल देंवता. ताच्या हातांतलें धोणू घेवन राजा जैताचो अभिनय करता. वारसदाराकडेन धोणू परत दिवन ताच्या राज्यभिशेकामेरेन तें सांबाळून दवरपाक सांगता.

यज्ञमंडपाचे अस्तंतेक उबारिल्ल्या माटवांत रुमडाच्या लांकडाचें आसन मांडिल्लें आसता. राजा ताचेर बसता. ऋत्विज आनी राजपरिवारांतले अधिकारी भोंवतणीं बसतात. हे सगळे राजाची तुस्त करून एके तरेन ताका पालव दिवपाचें उतर दितात. मागीर भांगराच्या फाशांनी द्युताचो खेळ जाता. राजा डाव जिखता. होता हो ऋत्विज राजाक शुनःशेपाचें आख्यान सांगता.

कांय दिसांनी दशपेय नांवाचो तिसरो सोमयाग जाता. जांच्या कुळांत धा पिळग्यांमेरेन अविच्छिन्न रितीन सोमयाग जाल्ले आसात अशे प्रसर्पक म्हणजे सोयरे यज्ञाक हजर आसतात. तांकां ऋत्विजांवांगडा सोमपान करपाचो अधिकार आसता. ताचेउपरांत आनीक इष्टी, पशुयाग आनी तीन सोमयाग जातात. अखेरेक सौत्रामणी याग जाता. विधींत आनी क्रमांत चड उणे बदल वेगवेगळया ग्रंथांनी सांपडटात. राजसुयाची म्हायती हेर वेदांच्या सुत्रांत मातशी कमी आयिल्ली आसून यजुर्वेदाच्या मंत्रब्राह्मणांतूय हो विशय आसा. मात थंय तो क्रमान वा तपशीलवार ना. आपस्तंब, सत्याषाढ, वैखानस, मानव, वाराह, कात्यायन ह्या यजुर्वेदाच्या स श्रौतसुत्रांनी राजसूय यज्ञाची म्हायती तपशीलवार सांपडटा.

राजसूय यज्ञ जाणें केला तो राजा जाता आनी जाणें वाजपेय याग केला तो सम्राट जाता अशें वचन आसा. कांय कडेन राजसूय वाजपेयापरस व्हड मानला.

युधिष्ठिरान केल्ल्या राजसूय यज्ञाचें वर्णन महाभारताच्या सभापर्वांत आयिल्लें आसा. पुराणकाळांत हरिश्चंद्रान आनी इतिहासकाळांत कनौजाच्या जयचंद्रान राजसूय केल्ल्याचें सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**राजस्थान :** भारतीय संघराज्यांतलें एक घटक राज्य. क्षेत्रफळ ३,४२,२१४ चौ. किमी. लोकसंख्या ४३८८०६४० (१९९१). अक्षयवृत्तीय विस्तार २३°३' ते ३०°१२' उत्तर आनी रेखावृत्तीय विस्तार ६९°३०' ते ७८°१७' उदेंत ह्या दरम्यान. उदेंत अस्तंत लांबाय ८५० किमी. आनी दक्षिणोत्तर रुंदाय ७८४ किमी. क्षेत्रफळाविशीं मध्यप्रदेश राज्या फाटल्यान राजस्थानाचो देशांत दुसरो नंबर लागता.

भारताच्या वायव्य वाठारांत आशिल्ल्या ह्या राज्याचे अस्तंतेक आनी उत्तरेक पाकिस्तान, उत्तरेक आनी ईशान्येक भारतांतलीं पंजाब, हरियाना आनी उत्तर प्रदेश हीं राज्यां, उदेंतेक आनी आग्नेयेक मध्यप्रदेश राज्य आनी नैऋत्येक गुजरात राज्य आसा. राजस्थानची १०७० किमी. लांबायेची अस्तंत सरहद्द ही भारत पाकिस्तान ह्या दोन देशांमदली आंतरराष्ट्रीय सरहद्द आशिल्ल्यान राजस्थानांतल्या गंगानगर, बिकानेर, जैसलमोर, बारमेर हे जिल्हे, पाकिस्तानांतले बहावलपूर खैरपूर आनी मोरपूर खास ह्या जिल्ह्यांसावन वेगळे केल्यात. जयपूर ही राजस्थानची राजधानी.

**भूंयवर्णन :** ईशान्य नैऋत्येक पातळिल्ल्या अरवली पर्वतरांगेन राजस्थानचे भुगोलीक नदरेन वायव्य आनी आग्नेय अशे दोन वाठार जाल्यात.

**जमनीचे प्रकार** - राजस्थानचे भूंय रचणुकेचे ४ प्रकार करूं येतात : १) अस्तंतेकडचो रेंवट मैदानी प्रदेश २) अरवली पर्वतरांगो आशिल्लो दोंगराळ प्रदेश ३) उदेंतेकडलो मैदानी प्रदेश ४) आग्नेयेकडलो राजस्थान पठार.

**अस्तंतेकडचो रेंवट मैदानी प्रदेश :** राज्याचो बरोच वाठार अरवली प्रदेशाचो, अस्तंतेकडल्या आनी वायव्येकडल्या प्रदेशांत आस्पावला. प्रदेशाची उदेंत शीम ५० सेंमी. पावस रेशेन आडायल्या, अस्तंत शीम भारत - पाकिस्तान लागिंच्या आंतरराष्ट्रीय सरहद्दीन, उत्तर शीम पंजाबान तर नैऋत्य शीम गुजरात राज्यान सीमीत केल्या. चडसो प्रदेश रेंवट, ओसाड आनी कमी लोकवसतीचो आसा. बारमेर, जैसलमोर आनी बिकानेर जिल्हे रेंवटदोंगराचे तर ताच्या उदेंतेकडल्या प्रदेशांत फातर मेळटात. दक्षिणेच्या वाठारांत लुनी न्हंयेचें खोरें आनी उत्तर वाठारांत दिडवानी, सांभर, आनी दुसरीं खाऱ्या उदकाचीं तळीं आसात.

**अरवली पर्वतरांगो आनी दोंगराळ प्रदेश :** ईशान्येक दिल्लीसावन ते नैऋत्येक गुजरातच्या मैदानी प्रदेशामेरेन ह्यो पर्वत रांगो पातळळयात. माऊंट अबूसावन अजमेर मेरेन ही एक सारकीच रांग आसा.

**उदेंतेकडलो मैदानी प्रदेश :** अरवलीच्या उदेंतेकडल्या प्रदेशाक मेवाड म्हण्टात. हो वाठार पिकाळ आसा. तातूंत दोंगर, दोंगुल्ल्यो, देगणां, सुपीक प्रदेश आनी रानां आसात. ह्या वाठारांत न्हंयो व्हांवतात. हांगची जमीन फातराळ आनी पातळ थराची आसा. हांगाच्या पावसाची सरासरी ७३ सेंमी. आसा.

**आग्नेयेकडलो राजस्थान पठार :** राज्याचो उदेंतेकडलो चंबळ देगणाचो प्रदेश हातूंत आस्पावला. चंबळ, काली, सिंध, पारवान आनी पार्वती ह्यो उपन्हंयो हो वाठार भिजयतात. उदेंतेकडलो बुंदेलखंड वाठार ह्या प्रदेशांत आस्पावता.

**न्हंयो :** अरवली पर्वत वाठार हो देशांतलो एक मुखेल उदक दिवपी वाठार. खूब न्हंयो हांगाच्यान सुरू जातात. लुनी, सुक्री, बनास, साबरमती आनी मट्टी ह्यो मुखेल न्हंयो आसात. हातुंतल्यो चडशो न्हंयो राजस्थानसावन दक्षिणेकडे गुजरात राज्यांत व्हांवतात. उदेंत वाठारांत बनास न्हंय उदेंतेकडे वचून चंबळ हे यमुना न्हंयेच्या उपन्हंयेक मेळटा. खारी मोशी आनी मोरेल ह्यो बनासचे दावे देगेवयल्यो जाल्यार बेराच, बाजासेन आनी गोलवा ह्यो उजवे देगेवयल्यो उपन्हंयो आसात. अरवलीच्या अस्तंत वाठारांत कांती, सोद्रा साहिबी, बराह आनी लुनी ह्या न्हंयांचीं देगणां मेळटात. अजमेर लागीं अनासागर हांगा सुरू जावपी लुनी हीच ह्या वाठारांतली मुखेल न्हंय. पुश्कर देगणांतल्यान व्हांवत आशिल्ली एक उपन्हंय मेळटकच लुनी न्हयेचें पात्र व्हडलें जाता. न्हंयेचो वट्ट उदक व्हरपी आंवाठ ३४८६६.४० चौ. किमी. आसा. राजस्थानच्या दक्षिण आनी उदेंत वाठारांत चंबळ हीच राज्यांतली सगळयांत व्हडली आनी वर्सभर उदक दिवपी न्हंय आसा. बनास, काली, सिंध, कुरई आनी पार्वती ह्यो तिच्यो मुखेल उपन्हंयो आसात. जयपूर जिल्ह्यांत सुरू जावपी बाणगंगा न्हंय भरतपूर आनी धोकपूर मदल्यान उदेंतकडल्यान व्हांवत वचून यमुनेक मेळटा.

**दोंगर :** अरवली ही राज्यांतली मुखेल पर्वतारांग आसा. ईशान्येक दिल्लीसावन ते नैऋत्येक गुजरातच्या मैदानी प्रदेशामेरेन पातळिल्ले हे पर्वतरांगेची वट्ट लांबाय सु. ६९२ किमी. आसा. माऊंट अबूसावन अजमेर मेरेनची मुखेल अशी रांग आसा. अरवली ही एका काळावयली सगळयांत ऊंच आशिल्ली आनी जगांतली एक पुर्विल्ली पर्वतरांग समजतात. बबई ७८० मी.; खो ९२० मी.; रघुनाथगड १०५५ मी. आनी तारागड ८७३ मी. ह्यो हे रांगेंतल्यो मुखेल पर्वताच्यो तेंगशो आसात. माऊंट अबू हाची गुरू तेंगशी सगळयांत उंचेली आसून तिची उंचाय १७२७ मी. आसा. हे पर्वत रांगेंतच उदयपूरच्या वायव्य वाठारांत १२२५ मी. उंचायेचें भोरट पठार आसा.

**हवामान :** शिंयाच्या दिसांत हवा खूब थंड आसता. खूबकडे तापमान सामकें सकयल येता. हाचे उरफाटें गिमाच्या दिसांनी खूब उश्णताय आसता. अस्तंत राजस्थानचो वसाड (वाळवंटी) प्रदेश हो भारतांतलो सगळयांत उश्ण हवामानाचो प्रदेश आसा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** राज्याचो १२.७% वाठार रानाखाला आसा. अस्तंतेकडल्या रेंवट वसाड प्रदेशांत वनस्पत सामकी उणी मेळटा. तर अरवलीच्या उदेंतेकडल्या आनी आग्नेयेकडल्या प्रदेशांत मिश्र वनस्पत आनी पाचवीं रानां मेळटात. रेंवट भूंय आनी कमी पावस आशिल्ल्यान हांगा आंखूड आनी कांटेरी वनस्पत चड जाता. कांय वाठारांत तण दिश्टी पडटा. माऊंट अबूच्या वाठारांत खूब पावस पडटा देखून थंय दाट वनस्पत मेळटा.

हांगाचो वाठार १०७० ते १३७५ मी. उंचायेचो आसा आनी पावस १५० सेंमी. पडटा. ते खातीर पाचवीचार रानां पळोवंक मेळटात.

राज्याच्या दक्षिण वाठारांत बांस्वाडा रानाच्या वाठारांत सायल रुखाचें प्रमाण ६०% ते ९०% आसा. अरवलीच्या दोंगराळ वाठारांत धावडा जातीचीं झाडां मेळटात. जळोव आनी कोळसो करपाक ताचो उपेग करतात.

अलवर, चित्तोडगड, उदयपूर, सिरोही, अजमेर, जोधपूर आनी जयपूर ह्या जिल्ह्यांच्या कांय वाठारांत सालई रुखांचें प्रमाण चड आसा. न्हंय लागीं आशिल्ल्या सुपीक जमनीच्या वाठारांत पळस रूख चड आसात.

**इतिहास :** घग्गर न्हंये देगेर आनी कालीगंगा उत्खननांतल्यान हांगा हडप्पायलीं वसती आशिल्ली अशें सिध्द जालां. ताचे वयल्यान सु.३७०० वर्सां पयलीं हांगा सुसंस्कृत मनीस रावतालो अशें दिसता.

ऋग्वेद, महाभारत, शतपथ ब्राह्मण, अंगुत्तारनिकाय ह्या ग्रंथांत ह्या प्रदेशाचो उल्लेख मेळटा आसलो तरी राजस्थानच्या इतिहासाची सुरवात मौर्य काळासावन जाता. सम्राट मौर्याची सत्ता वतकच मालव, अर्जुनायन, यौधेय ह्या जमातींनी जैत मेळयलें आनी गणराज्यां स्थापन केलीं. इ.स. दुसऱ्या ते चवथ्या शतमानामेरेन राजस्थानच्या वाठारांत शकांचो शेक आशिल्लो. मागीर कांय काळामेरेन मगधाच्या गुप्त सम्राटांची, मंदसोरच्या यशोधर्म्याची आनी जोधपूर वाठारांत हरिश्चंद्रान गुर्जर - प्रतिहाराची सत्ता स्थापन केली. सातव्या शतमानांत गुहिलोन (सिसोदिया), आठव्या शतमानांत प्रतिहार, चाहमान (चौहान), भाटी (जेसलमोरचे), धाव्या शतमानांत परमार, सोळंकी ह्या वंशाचो राजस्थानच्या वेगवेगळया वाठारांत शेक चलतालो. कच्छवांनी बाराव्या शतमानांत सुरवेक अंबराक तर कनौजच्या राठोडांनी तेराव्या शतमानांत सुरवेक मारवाड्यांत सत्ता स्थापन केली.

ह्या राजपूत घराण्यांनी आठव्या शतमानासावन धाव्या शतमानामेरेन गुर्जर - प्रतिहारांचे सामंत ह्या नात्यान इस्लामी आक्रमणाक आडायलें. तातूंत मंडोरचे प्रतिहार, शाकंभरी (अजमीर) आनी नाडालेचे चाहमान, मेवाडचे गुहीलोत आनी दिल्ली वाठारांतले तोमर मुखेल आशिल्ले. धावें शतमान सोंपता सोंपता गुर्जर प्रतिहारांची सत्ता सोंपत आयली आनी शाकंभरीचे चाहामान हांकां स्वतंत्रताय मेळ्ळी. इकराव्या आनी बाराव्या शतमानांत, चाहमान, गुजरातचे चालुक्य आनी माळव्याचे, परमार हांचे भितर राजस्थानचेर शेक चलोवपाखातीर झगडीं जावंक लागलीं. गझनीकडल्यान मुसलमानी घुरयो जाल्यो. चाहमानांनी धीरान ह्यो घुरयो आडायल्यो, पूण गझनी महमूद जैतवंत जालो. तिसरो पृथ्वी राजाक मुहमद घोरीन तराईच्या झुजांत ११९१ सालांत हारायलो. तेराव्या आनी चवदाव्या शतमानांत

कुत्बुद्दीन ऐबक, अल्तमश, अल्लाउद्दीन खिल्जी हांणी चितोडचेर जैत मेळयलें. राणी पद्मिनीन १३०३ सालांत जोहार केलो. चवदाव्या शतमानांत माळवा आनी गुजरात हांचेर मुसलमानांचो शेक चलतालो.

मेवाडच्या राणा कुंभान तांचेवांगडा झुजां केल्लीं. सिसोदियाचें म्हत्व वाडलें. राणा संगान सुलतानाचेर जैत मेळयलें आनी राजस्थानचो बरोच वाठार ताच्या शेकतळा हाडलो. ताणें दिल्लीच्या इब्राहीम लोदीकय हारयलो.

१५२६ सालांत बाबरान इब्राहीम लोदीआड पानिपतच्या झुजांत जैत मेळयलें आनी दिल्ली ताच्या शेकातळा हाडली. फत्तेपूर सिक्रिलागींच्या झुजांत राणा संगाचेरय जैत मेळयलें. गुजरातच्या बहादुरशहान चितोडचेर, धुरी घाली. राणी कर्मवतीन हुमायुनचो आदार मागलो. पूण ताणें कांयच आदार दिलो ना. राजस्थानचेर मोगलांचो शेक खरो सुरू केलो अकबरान. ताणें पयलीं अजमेर, कालिंजर, चित्तोड, रण थंभोर हांगाचे मुखेल किल्ले मेळयले. बुंदी वांगडा कबलात केली. अंबर (जयपूर), जोधपूर, बिकानेर, जैसलमीर ह्या राजघराण्यांकडे सोयरीको केल्यो. राजपुतांचो शूरपणाचो उपेग करून घेतलो. पूण मेवाडच्या राणाप्रताप हाणें, मात झूज चालूच दवरलें. १५७६ सालांत हळदीघाटच्या झुजांत ताका ताणें हारयलो. जहांगीर आनी शाहजहान हांच्यो आवयो राजपूत आशिल्ल्यान राजपूतांकडे संबंद उरले. राजस्थानाक राजकीय घटाय मेळ्ळी. औरंगजेबान झुजावेळार मिर्झा राजा जयसिंह, महाराणा जसवंत सिंह हांचो उपेग करून घेतलो. जसवंतसिंहाच्या मरणाउपरांत ताणें मारवाडाचेर धुरी घाली. दुर्गादास राठोडच्या मुखेलपणाखाल मारवाड राज्यान सतत २५ वर्सां झूज केलें. ह्या झुजांत औरंगजेबाचो पूत शाहजादा अकबर कांय काळ राजपुतांक मेळ्ळो. निमणें मारवाड स्वतंत्रच उरलें.

अठराव्या शतमानांत राजपूत राज्यांभितर झगडीं जावंक लागलीं. घरचीं झगडीं, सत्तेखातीर सर्त, स्वताच्या सुवार्थाखातीर झुजां हाकालागून राजपूत सत्ता निर्बळ जाली. तातूंत आनी १७२४ सावन मराठ्यांच्यो मेवाड मारवाड हांचेर धुरयो सुरू जाल्यो. राजपूत राज्यांनी एकचारान मराठ्यांआड झूज करपाचो यत्न केलो. पूण कांय उपेग जालोना. शिंदे होळकर हांणी राजस्थानचेर जैत मेळयलें.

मेवाडची राजकन्या कृष्णकुमारी खातीर राजपूत राज्यांभितर झगडीं जावंक लागलीं आनी ताचो फायदो अमीरखान पेंढाऱ्यान घेतलो. हाका लागून एकुणीसाव्या शतमानाचे सुरवेक ब्रिटीश इस्ट इंडिया कंपनीक राजपूत राज्यांभितर सरपाक वाव मेळ्ळो. इंग्लिशानी संस्थानांकडे तह करून खंडणी घेतली आनी ताच्या बदला तांच्या सुरक्षतायेची हमी घेतली. गादयेचे तंटे मिटवप, सुवेवस्था राखप असल्या निमतान कंपनीच्या फौजांनी भरतपुरांत १८२६, १८30त बुंदी संस्थानांत, १८३३त करोली संस्थानांत तर १८३९त जोधपूर आनी १८४१त उदयपूर ह्या संस्थानांत वांटो घेतलो. १८५७ च्या उठावांत नासिराबाद, जोधपूर, मेवाड, कोटा संस्थानांतल्या शिपायांचीं झगडीं संस्थानिकाच्या पालवान इंग्लिशांनीं जाग्यार घालीं. राणीच्या जाहीरनाम्याप्रमाण १८६२त ब्रिटिशांनी सगळ्या संस्थानाक नव्यो सनदी केल्यो आनी दत्तकाचो अधिकार मान्य केलो.

पयल्या म्हाझुजांत ह्या संस्थानांतल्यान इंग्लिशांक अर्थीक आनी सैन्याचो पालव मेळ्ळो. पूण व्हायसरोयचो एजंट जनरल ताच्या हाताखालचे रेसिडेंट एजंट ब्रिटिश.अधिकारी हांणी संस्थानावयलो शेक घट केलो. १९२१ वर्सा उदयपुरच्या महाराजाक सत्तेवयलो काडून वडयलो. १९३५ च्या कायद्याप्रमाण आशिल्ल्या त्या स्वायत्त संघराज्यांत राजपूत संस्थानां नाशिल्लीं.

भारत स्वतंत्र जातकच १९४७ त येणावळ कायम दवरून आनी तनखा दिवपाचें मान्य करून भारतीय संघराज्यांत संस्थानां विलीन जालीं.

राजस्थान राज्य हें सगळीं राजपूत संस्थानां एकठांय करून तयार जालां. सुरवेक १८ मार्च १९४८ दिसा अलवर, भरतपूर, धोलपूर आनी करौली ह्या चार संस्थानांचो मत्स्यसंघ तयार केलो. मागीर बांसवाडा, बुंदी, डूंगरपूर, झालवाड, किशनगढ,कोटा, परताबगढ, शाहपुरा आनी टोंक ह्या णव संस्थानांचो आनी लोवा- कुशालगढाच्यो जहागिरी मेळून राजस्थान संघ २५ मार्च १९४८ सालांत अस्तित्वांत आयलो.

मागीर उदयपूर ह्या संघांत सामील जालें. बिकानेर, जयपूर, जैसलमेर आनी जोधपूर हीं व्हडल्या आकारांचीं आनी उत्पन्न दिवपी संस्थानां ह्या संयुक्त संस्थानांत १९४९ वर्सा सामील जालीं. २५ एप्रिल १९४९त संयुक्त संस्थानां आनी मत्स्यसंघ मेळून बृहद्‌राजस्थानची निर्मिती जाली. १९५0त तातूंत सिरोही संस्थानाचो आस्पाव जालो. १९५६त राज्यपुनर्रचना अधीनेमा प्रमाण अजमेर, अबू तहसील (मुंबई शाखा) आनी सुनेल तप्पा (मध्य भारतांतलें एक संस्थान) हीं बृहद्‌राजस्थानांत सामील केलीं. सिरोंज हो वाठार मध्यप्रदेशांत घालो आनी बाकीच्या सगळ्या वाठाराक राजस्थान हें नांव दिलें.

**राज्यवेवस्था :** भारतांतल्या बाकीच्या राज्यांप्रमाणच हांगाय विधीमंडळ आसा. तातूंत लोकांनी वेंचून काडिल्ले २00 सभासद आसतात. राज्यांत २७ जिल्हे आसात. तांचें शासन बरें जावपाखातीर ८४ भाग केल्यात. परत तांचे २०३ उपविभाग केल्यात.

स्वतंत्राये उपरांत जमिनदारी ना जावची तशेंच वेठ बिगार पद्दत ना जावची म्हणून कांय खाशेले कायदे केले. पंचायत राज ही येवजण चालीक लावपी राजस्थान हें भारतांतलें पयलें राज्य आसा. पंचवर्सुकी येवजणांक लागून राज्यांत उद्देगीक शिक्षण, भलायकी, समाजकल्याण ह्या मळार उदरगत जावंक पावली.

**अर्थीक स्थिती** - शेतकी पिकावळ : राज्यांतली वट्ट पीक

काडपी जमीन २७४.७१ (१९९२-९३) लाख हेक्टर आसा. शेतकी पिकावळ सुमार १४७.५७ लाख टन वयर आसा (१९९३-९४). राज्यांत मुखेल कडधान्यां जातात तीं अशीं - ज्वारी, बाजरी, मको, हरभरे, गंव, तेलबियो, कापूस, दाळ आनी तंबाकू, भाजी, फळां, मोसंबी, ऊंस हांचीय लागवड बरीच जाता. त्या भायर तांबड्यो मीरसांगो, मेथी, हींग, सांसवां, जीरें ह्या पिकांची लागवडय हांगा करतात.

शेती वेवसायाफाटल्यान पशू पालन हो राजस्थानांतलो दुसरो म्हत्वाचो वेवसाय आसा. अलवर, बस्सी, आनी नागौरा हांगा पशू प्रजनन केंद्रां स्थापन केल्यांत. बिकानेर हांगा पशूवैद्यकीय महाविद्यालय सुरू केलां. बिकानेर हांगा ५२ प्रजनन केंद्रां आसात. बाकीच्या राज्याच्या मानान राजस्थानांत गोरवां, बोकड्यो, मेंढऱ्यो आनी उंट हांची वाड चड आसा.

**खनीज संपती :** खनीज उत्पादनांत राजस्थानाचो सवो नंबर लागता. कोळसो, लोखण आनी खनीज तेल हांचे सांठे कमी आसले तरी दुसरे तरेचीं ४० खनिजां आसात. देशांतलें जस्त, पाचू, रत्नां, हांचें उत्पन्न सगळया राजस्थानांत जाता. देशांतलें ७६% रुपें, ८४% अस्बेस्टस, ९४% जिप्सम, ८२% शंखजीरें, ६८ % फेलस्पार, ५0% कॅलसाइट आनी १२% अभ्रक हांचें उत्पन्न राजस्थानांत जाता. अरवली पर्वताच्या २६ किमी. लांबायेच्या वाठारांत तांब्याचो व्हडलो सांठो मेळ्ळा. खेत्री आनी दरिबा हांगाच्यो तांब्या खणी मुखेल आसात.

बिकानेर जिल्ह्यांतल्या पलना हांगा लिग्नाइटचो सांठो आसा. बिहाराफाटल्यान अभ्रक उत्पन्नांत राजस्थानचो दुसरो नंबर लागता. भिलवाडा हें अभ्रकाचें उत्पन्न काडपी मुखेल केंद्र आसा. झवार वाठारांत जस्त, शिंसें आनी रुपें तर जयपूर वाठारांत मोनिझो हांगा लोखण (मीन) मेळटा. राज्यांत कंवचे कारखान्याक लागपी रेंव चड प्रमाणांत मेळटा. तशेंच मुलतानी माती, कायनायट, मेंगनीज, बेंटो-नायट हीं उत्पन्नांय म्हत्वाचीं आसात. राजस्थानांत बांदपाक लागपी फातरय व्हड प्रमाणांत मेळटात. हांगा उच्च मोलाचो गुलाबी, हळदुवो, पाचवो आनी काळो संगमरवर फातर मेळटा. हांगा चुनखडीचेंय उत्पन्न आसा.

**पर्यटन :** हांगा पर्यटन वेवसाय व्हड प्रमाणांत चलता. राजस्थानचो संघर्शपूर्ण इतिहास, हांगाच्या समाजाचें खाशेलें संस्कृतीक दायज, तरेतरेच्यो कला हांकांलागून राजस्थांनांत इतिहास प्रसिद्द थळां, किल्ले, व्हडले महाल, राजप्रासाद, देवळां, पळोवंक मेळटात. राज्यांत पुर्विल्ले आनी मध्ययुगीन काळांतल्या वास्तुशिल्पाचे जायते नमुने पळोवंक मेळटात. आयज हींच थळां पर्यटनाचे नदरेन म्हत्वाचीं जाल्यांत. जयपूर, जोधपूर, कोटा, बिकानेर, उदयपूर, अलवर, गंगानगर, भिलवाडा, भरतपूर, सिकार हीं व्हडलीं शारां तशेंच जसलमीर, पाली चित्तोडगड, बांसवाडा बारमेर, डूंगरपूर, बुंदी, चुरू, माऊंट अबू हीं पर्यटनाचे नदरेन म्हत्वाचीं आसात. तेखातीरच लाखांनी परदेशी पर्यटक आनी देशी पर्यटक राजस्थानाक भेट दितात.

**उद्येग धंदे :** राजस्थानांत खनीज संपत्ती खूब आसा. पूण ताचेर आदारिल्ले उद्येग धंदे कमी आसात. चडशीं खनिजां राज्या भायरच धाडटात. खेत्री, उदयपूर, अजमेर, कोटा लखेरी,चित्तोडगड, सवाई, माधोपूर, धोलपूर, दौसा हीं खनीज उद्येगधंद्याचीं केंद्रां आसात. तर जयपूर आनी सवाई माधोपूर हीं अभियांत्रिकी उद्येगांचीं मुखेल केंद्रां आसात. कागद आनी कंवची कारखान्याक लागपी सोडियमसल्फेट तयार जावपी प्रकल्प दिडवाना हांगा आसा. सांभर, दिडवाना आनी पचपाद्रा तळयांतल्यान मीठ तयार करतात. बिकानेर, जयपूर, जोधपूर, नागौर, नवलगढ, पाली, चित्तोडगढ, चुरू हीं लोकर वेवसायाचीं मुखेल केंद्रां आसात. राज्यांत हाडां, चामडी आनी कातडी हांचें उत्पादन जाता. हाडांचो पिठो करपाचेय कारखाने आसात.

लांकडापसून खेळणीं तयार करपाचो उद्येग उदयपूर, सवाई माधोपूर आनी करोली हांगा आसात. थंय खैर रुखापसून कात तयार करतात. वनस्पतीपसून अत्तर तयार करपाखातीर लागपी खस, तशेंच लाख, गोम तयार करपी वेवसाय राज्यांत आसात.

सुती वस्त्रां, लोकरीचें कापड, साखर, शिमीट, कंवची, सोडीयम, ओक्सिजन ॲसिटिलीकरण, कीटकनाशकां, रसायनां, रेल्वेडबे, उदक आनी वीज हांचे मीटर, दूरदर्शन संच, कृत्रीम धागे, फरशी पॉलीश, स्पिरीट, मद्यनिर्मिती अशे मुखेल उद्येग आसात.

तशेंच कॉस्टीक सोद, तांबें वितळवप असले म्हत्वाचे उद्येग हांगा आसात.

नक्षी जोतीं, चामड्याच्यो पिशव्यो, उदकाच्यो बाटल्यो, खादी हातमागावयलें कापड, लाकडी खेळणीं, शेती अवजारां अशे ल्हान ल्हान उद्येग हांगा आसात. कोरांतिल्ले संगमरवर फातर, लोकरी गालीचे, भरतकाम, मातयेचीं आयदनां अशे हस्तवेवसाय आसात. ह्या सगळया वस्तूंक भारतांत आनी परदेशांत बरी मागणी आसा. वीज निर्मणीचे नदरेन भाक्रा नानगल, चंबळ, गांधीसागर, राणा प्रतापसागर हे जलविद्युत् निर्मिती प्रकल्प आनी कोटा हांगाचो अणुविज प्रकल्प म्हत्वाचे जावन आसात.

भिलवाडा, चुरू, राजगढ, अदलपुरा आनी पाली हीं वेपारी नदरेन म्हत्वाचीं केंद्रां आसात.

**येरादारी :** राजस्थानांत ४८४२२ किमी.(१९८४त) लांबायेचे रस्ते आसात आनी २५२१ किमी. लांबायेचे राश्ट्रीय महामार्ग आसात. जोधपूर, मारवाड, उदयपूर, अजमेर, जयपूर, कोटा, बिकानेर, आनी सवाई माधोपूर हीं राज्यांतलीं मुखेल रेल्वे मार्ग स्थानकां आसात. जयपूर, जोधपूर, कोटा आनी उदयपूर हांगा विमानतळ आसात. राज्याच्या अस्तंत वाठारांत उंटांचो येरादारी खातीर वापर करतात.

**लोक आनी समाजजीण :** हांगा हिंदू भौसंख्येन आसात. तशेंच मुसलमान, जैन, शीख आनी किरिस्तांवय आसात. पयलींपसून राजस्थानांत कितलींशींच राजपूत राजघराणीं आशिल्लीं. राठोड, भाटी, चौहान, कछवाहा, पवार, सोळंकी, पडिहार, तंवर अशो राजपुतांच्यो जमाती आसात. ह्या प्रदेशांतले महाजन वा मारवाडी हे चडकरून वेपारी आसात. जाट हे राजस्थानचे उत्तरेक आनी अस्तंतेकडच्या वाठारांतले शेतकामती म्हणून प्रसिद्द आसात. भिल्ल, ग्रासीया, कठोडी, मीन, रबारी, मेव, मेर, सहरिया अशा कितल्याशाच आदिवासी जमातींची वसती राज्यांतल्या दोंगर आनी रानांनी मेळटा.
राजस्थानी लोकांचो भेस रंगीबेरंगी आनी ओडलायणो आसता. हांगाची मारवाडी पगडी आनी जोधपुरी कोट प्रसिद्द आसा. राजस्थानी बायलांची मुस्तायकी बरीच भडक रंगाची आसता. दर एका देवकार्याक बायलो शुभशकून म्हणून मेथी लायतात

**सण आनी उत्सव :** दिवाळी, दसरो, होळी, गणगौर, तीज, आखातीज, राखी पुनव, वसंतपंचमी, जल्माश्टमी, रामनम, सतीपूजन, पुश्कर-उत्सव, कपीलमुनीचो उत्सव, रामदेवजी उत्सव, वीरपुरी उत्सव, ख्वाजा मुईनुदीन चिश्ती उरुस हे राजस्थानांतले मुखेल सण आनी उत्सव आसात. होळीच्या दुसऱ्या दिसासावन ते चैत्रशुध्द तिरोदस मेरेन १८ दीस गणगौर हो उत्सव मनयतात. जयपूरांत हो व्हड प्रमाणांत जाता. तीज हो लेगीत बायलांचो मुखेल उत्सव जावन आसा तो श्रावण शुक्ल तृतियेक करतात. सतीपूजन राजस्थानांत व्हड प्रमाणांत बायलो पाळटात. कार्तीक म्हयन्यांत अजमेरालागीं पुष्कर हांगा व्हडली जात्रा जाता. तेवेळार थंय गोरवांचो व्हडलो बाजार भरता. उंटाच्या गाडयांच्यो सर्ती जातात. बिकानेर लागीं कोलायत तळें आसा. थंय कपील मुनीचो कार्तीक पुनवेक व्हड उत्सव जाता. अजमेर हांगा शेख मुईनुदीन चिश्ती हांचो ऊरूस बरोच मोटो जाता.

**कलाकुसरी :** संगीत, नाच, नाट्य, चित्र, शिल्प ह्या कलांची राजस्थानी परंपरा व्हड आसा. राजस्थानांतलीं देवळां, मूर्ती, राजमहाल, चित्रां म्हणजे मोलादीक संस्कृतीक दायज. राजस्थानांतल्या दरबारांत संगीताक एक व्हड सुवात आशिल्ली. म्हणूनच संगीत शास्त्राचेर राज्यांत बरेच ग्रंथ पळोवंक मेळटात. राजस्थानांत लोकनाचाचे घुमर, झूमर, डंडिया, गोंदड, घूमरा, गौरी भवाई हे प्रकार खुबच लोकप्रिय आसात. 'कथक' नाचय हांगा रूढ आसा. कथक नाच शिकपाखातीर जयपूर कथक विद्यालय आसा. राजस्थानांत ख्याल ह्या लोकनाट्याची चड नामना आसा. तशेंच हांगाचो खामसूत्री बावल्यांच्या खेळाची नामना आसा. खामसुत्री बावल्यो राजस्थानांत खूब तयार करतात. चित्रकला ही एक हांगाची म्हत्वाची कला आसा. हांगाचीं देवळां आनी राजमहाल हांच्यो वण्टी पुराणांतल्या आनी महाकाव्यांतल्या प्रसंगाचेर चितारल्यात. हांगाची मूर्तिकला प्रसिद्द आसा. जयपूर हें भारतांतलें मूर्तिकलेचें मुखेल केंद्र आसा. हांगाच्यो चडशो मूर्ती संगमरवरी आसात.

**शिक्षण :** राज्यांत शिकिल्ल्यांचें प्रमाण १९९१ गणतीप्रमाण ३८.८१% आसा. तातूंत दादल्यांचें प्रमाण ५५.०७% आसा तर बायलांचें २०.८४% आसा. राज्यांत राजस्थान विद्यापीठ, जयपूर विद्यापीठ (स्थापना १९४७), जोधपूर विद्यापीठ (१९६२), उदयपूर विद्यापीठ (१९६२) हीं विद्यापिठां आसात. तशेंच चार कृशी महाविद्यालयां, एक पशुचिकित्सा आनी पशुवैद्यक महाविद्यालय, स अभियांत्रिकी महाविद्यालयां, तीन आयुर्वेद महाविद्यालयां, धा तंत्रनिकेतन अशो शिक्षणीक संस्था आसात. हिंदी आनी राजस्थानी ह्यो मुखेल भासो तर मेवाडी, ढूंढारी, मालवी, बागडी, मारवाडी ह्यो बोली भासो आसात. मारवाडी बोलीभाशेंत लोकसाहित्य सगळयांत चड आसा. राश्ट्रदूत, नवज्योती, न्याय, अधिकार, कुक, यंग लीडर, अमर राजस्थान हीं हांगाचीं मुखेल दिसाळीं.

**म्हत्वाचीं स्थळां :** राजस्थानांत इतिहासीक म्हत्वाचीं स्थळां आसात. जाका गुलाबी नगरी म्हण्टात अशें जयपूर शार म्हत्वाचें स्थळ आसा. कलाकुसरीच्या वस्तुंखातीर तें प्रसिद्द आसा. तशेंच जयपूर शारांतली सिटी पेलेस, राजा मानसींग संग्रहालय, जंतरमंतर, हवा महल, प्राणीसंग्रहालय, रवींद्र रंगमंच, रामबाग, रामप्रसाद पर्ल पेलेस, सिसोदीया राणिची बाग हीं पळोवपासारकीं स्थळां आसात.

जोधपूर हांगाचो किल्लो 'मोती म्हाल', उमदभवन, फूल म्हाल, हिरोज हॉल हे राजप्रसाद, मंडोर बाग, राजस्थान राज्य अकादमी आनीं संग्रहालय हीं म्हत्वाचीं स्थळां आसात. अजमेर ही हिंदूंची आनी मुसलमानांची धर्मीक सुवात जावन आसा. हांगा ख्वाजा मुईनुद्दीन चिश्ती हाचो दर्गो, शाहजहानची मशीद, अढाई दिनका झोपडा ही पोरनी पूण सोबीत इमारत; तारागढ, नयो महाविद्यालय, अनासागर तलाव, तशेंच हिंदुंचें पवित्र पुष्कर सरोवर आनी थंयचें सावित्रीचें देवूळ, ब्रह्मदेवाचें देवूळ हीं मुखेल स्थळां आसात.

बिकानेर हांगाचो किल्लो, अनुप म्हाल, करण म्हाल, लालगढ म्हाल, जैन देवळां, उदयपूर शार - सिटी ऑफ सनरायज' म्हणून प्रसिद्द आसा. थंयचीं देवळां खूब प्रसिद्द आसात. थंय सावन ४८ किमी. अंतराचेर आशिल्लें 'नाथद्वारा' हें श्रीकृष्णाचें प्रसिद्द देवूळ आसा.

अरवलीच्या दक्षिण वाठारांत सिरोही जिल्ह्यांत माऊंट अबू हें थंड हवेचें ठिकाण जावन आसा. तें प्रसिद्द जैन तीर्थक्षेत्र आसा. थंयचें रामकुंड गोमुख देऊळ, नखी सरोवर, सनसेट पोइंट, ट्रेव्हर तळें कलापूर्ण अशीं प्रसिद्द दिलवाडा जैन देवळां, तातुंतलीं आदिनाथ आनी नेमिनाथ देवळां, रॉड रोक, अचलगढ हीं पळोवपासारकीं स्थळां आसात.

माणिकराव राम नायक गावणेकार.

**राजस्थानी भास आनी साहित्य :** राजस्थान ही इंडो आर्यन भाशेचीच एक शाखा आसा. पुराय राजस्थान आनी मालवा तशेंच मध्य प्रदेश, सिंध आनी पंजाबच्या कांय वाठारांनी ही भास प्रचलित आसा. सुमार दोन कोटी लोकांची ही मायभास. राजस्थानांतल्या उदेंत वाठारांत व्रजभास आनी बुन्देली, दक्षिण वाठारांत बुंदेली, मराठी आनी गुजराती, अस्तंत वाठारांत सिंधी आनी हिन्दकी (लहँदा) आनी उत्तर वाठारांत हिन्दकी, पंजाबी आनी बाँगडू भाशेचो प्रसार आसा.

भाशा शास्त्रज्ञांच्या मतान मध्य आशिया सोडून आमचे पुर्वज पुर्विल्ल्या आर्य पंजाब वाठारांत राबितो करून रावले त्या वेळार जी भास उलयताले ताच्या एका स्वरुपांतल्यान वैदिक संस्कृतायेची उत्पत्ती जाली. संस्कृत भास हाचेंच परिवर्तीत साहित्यीक रूप अशें मानतात. जाल्यार लोकांचे जिबेर घोळपी चालंत भास प्राकृत ह्या नांवान प्रसिद्द जाली. प्राकृत मागीर अपभ्रंश आनी ही अपभ्रंशय मुखार आर्विल्ले आर्य भाशेंत रुपांतरीत जाली. प्राकृतचंद्रिका पुस्तकांत सत्तावीस अपभ्रंश भेद आसात अशें मानतात. हातुंतल्यान नागर अपभ्रंशाचें प्रचारक्षेत्र गुजरात आनी अस्तंती राजस्थान आसा असो विचार डॉ. ग्रियर्सन मांडटा. डॉ. सुनीतिकुमार चटर्जी ह्या क्षेत्राक सौराश्ट्री अपभ्रंश नांव दिता. पूण डॉ. मोतीलाल मोनारियाच्या मतान हीं दोनय नांवां अस्पश्ट आसात. नागर अपभ्रंश म्हळयार नागर जातिचो अपभ्रंश काय नागरिकांचो अपभ्रंश हें स्पश्ट जायना. सौराश्ट्री अपभ्रंश हें नांव संकीर्ण अर्थ दिता म्हळयार ती सौराश्ट्रामेरेनच उरतली. श्री कन्हैयालाल माणिकलाल मुन्शी 'गुर्जरी अपभ्रंश' हें नांव दिता तें चड योग्य दिसता. पुर्विल्ल्या काळांत गुर्जर प्रदेशांत आधुनिक गुजरात आनी आधुनिक राजस्थानाचे वांटे मेळिल्ले. थंय हे बोलयेचो उपेग जातालो. हे गुर्जरी अपभ्रंश बोलयेंतल्यान राजस्थानी भाशेची उत्पत्ती जाली अशें मानतात. हेच बोलयेचें फुडलें रूप डिंगल नांवान प्रसिद्द जालें. जाणकारांच्या मतान इकराव्या शतमानाच्या सुरवेच्या काळांत राजस्थानी भास अपभ्रंशांतल्यान स्वतंत्र भास म्हूण विकसीत जाल्ली आसा.

राजस्थानी भाशेच्यो ज्यो वेगवेगळयो बोलयो आसात तातूंत विशेश अशें अंतर ना. फकत वेगवेगळया प्रदेशांक लागून तार्ची नांवां वेगवेगळीं जाल्यांत. राजस्थानी भाशेच्यो मुखेल रुपान पांच बोलयो आसात त्यो अशो - मारवाडी, ढूँढाडी, माळवी, मेवाती आनी वागडी.

**मारवाडीः** मारवाडीचें पुर्विल्लें नांव मरूभास. ही जोधपूर, बीकानेर, जैसलमेर तशेंच सिरोही राज्यांत प्रचलित आसा. अजमेर, मेरवाडा आनी तेचप्रमाण किशनगढ तशेंच पालणपुरच्या कांय वाठारांनीय, जयपुरच्या शेखावटी प्रदेशांत, सिंध प्रांताच्या कांय भागांनी आनी पंजाबच्या दक्षिण भागांत मारवाडी भाशेचो उपेग जाता. हे भाशेची प्रकृती ओजपूर्ण आसा आनी तिच्यांत साहित्याची रचनाय जाल्या. हातूंत संस्कृत, प्राकृत आनी अपभ्रंशाची उतरावळ मेळटा. छंदा भितर 'सोरठा' छन्द आनी राग - रागिनी भितर माँड रागाचें उदाहरण चड मेळटा.

मारवाडीची एक उपबोली मेवाडी आसा. जी मेवाड राज्याचो दक्षिण - उदेंत भाग सोडल्यार पुराय मेवाड राज्यांत आनी लागसारच्या प्रदेशांत लोक उलयतात. मेवाड बोलींत साहित्य आनी साहित्यीक परंपरा खूब पोरनी आसा. महाराणा कुंभा हाणें चित्तौडगढ किर्तीस्थंभाची तूस्त करपी चार नाटकां बरयल्लीं. तातूंत मेवाडचो प्रयोग केल्लो. राजस्थानी बोलयेंतले साहित्य निर्मणेचो हो पयलो वयलो उल्लेख आसा.

**ढूँढाडी :** ही बोली फकत शेखावटी वाठार सोडून पुराय जयपूर शार, लावा, किशनगढ - टोंक आनी अजमेर, मेवाडच्या उत्तर - उदेंत वाठारांत उलयतात. हे बोलयेचेर गुजराती आनी मारवाडी ह्या दोनय भासांचो सारकोच प्रभाव पडिल्लो दिसता. ढूँढाडी बोलयेंत खूबशें साहित्य आसा. हातूंत संत दादू आनी ताच्या शिश्यांच्यो जायत्यो साहित्य रचना मेळटात. हे बोलयेंत गद्य - पद्यान भरपूर साहित्य मेळटा. क्रिस्तांव धर्मप्रचारकांनी बायबल आदी धर्मग्रंथाचे अणकार हे बोलयेंत केल्यात.

**मालवी :** पुराय माळवा प्रांत तशेंच मेवाड आनी मध्य प्रांताच्या कांय भागांत हे बोलयेचो वापर करतात. मारवाडी आनी ढूँढाडी ह्या दोनूय बोलींचें खाशेलपण माळवी भाशेंत मेळटा. ही गोड आनी मवाळ अशी भास आसा. हिचेर कांय प्रमाणांत मराठीचो प्रभाव जाणवता. माळवीच्या राजपुतांमदीं हिचें एक खाशेलें रूप प्रचलित आसा. तिका रांगडी अशें म्हण्टात. ती थोडी कर्कश लागता. चंद्रसखी नटनागर आदी कवींची रचना हेच बोलयेंत आसा. प्राचीन पट्टे आनी परवाने माध्यमातल्यानय हे बोलीचें वास्तवीक स्वरूप पळोवंक मेळटा.

**बागडी :** डुंगरपूर आनी बॉसवाडा ह्या वाठारांक आर्दी बागडदेश म्हण्टाले. त्या वाठाराची बोली म्हूण हिका बागडी हें नांव पडलें. ही भास मेवाडच्या दक्षिणी भागांत तशेंच सूंथ राजाच्या उत्तरी भागांतले लोक उलयतात. हे भाशेचेर गुजरातीचो प्रभाव खूब आसा. हातूंत 'च' आनी 'छ' चें उच्चारण प्रायः 'स' आनी 'स' चें प्रायः 'ह' जाता. हे भाशेंत फकत अप्रकाशीत साहित्य आसा.

**मेवाती :** ही बोली अलवर - भरतपूर राज्याच्या उत्तर - अस्तंती वाठारांत आनी दिल्लीचे दक्षिणेक गुडगांव प्रदेशांतले लोक उलयतात. गुडगांवचे उत्तरेक बाँगडू, अस्तंतेक मारवाडी तशेंच ढूँढाडू, दक्षिणेक डाँगी आनी उदेंतेक ब्रजभाशेचो प्रचार आसा. मेवाती बोलीचेर ब्रज भाशेचो प्रभाव दिसून येता. चरणदासी पंथाचो संस्थापक चरणदास आनी ताच्यो दोन शिश्या सहजो आनी दया हाच्यो काव्य रचना मेवातीत आसात.

**लिपी :** राजस्थानी लिपी चडकरून देवनागरी लिपी वरीच दिसता. थोड्या अक्षरांचें वळण मातशें वेगळें आसा. पूण दिसान दीस हो फरक उणो जायत चल्ला. ही लिपी रेग ओडून बरयतात. सरकारी वा न्यायालयीन कामकाजा खातीर हे लिपीचो उपेग करतात. पूण वेपारी लोक आपलो हिशेब बरयताना महाजनी वा वाणियावटी हे लिपीचे शैलीचो उपेग करता. हे लिपीच्या अक्षरांक 'मुडिया' नांवानी वळखतात. ह्या अक्षरांक मात्रा नासता. ही लिपी एक प्रकारचें शॉर्टहॅन्डचें काम करता. मुडिया अक्षरांचो सोद मोगल सम्राट अकबराचो अर्थ सचीव राजा टोडरमल हाणें लायलो असो उल्लेख वालचंद मोदीच्या 'देश के इतिहास में मारवाडी जातीका स्थान' ह्या पुस्तकांत मेळटा.

**डिंगल :** राजस्थानी भाशेचें एक रूप डिंगल ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. डिंगल हें नांव अस्तंती राजस्थानी वा मरूभास वा मारवाडिच्या साहित्यीक रुपाक दिलां. हें रूप तशें खूब प्राचीन ना. एकोणिसाव्या शतमानांत ही भास वेव्हरांत आयली. हे भाशेचें मूळ स्वरूप जोधपूरचो कविराजा बाँकीदासाच्या कुकवि - बत्तीसी नांवाच्या ग्रंथांत पळोवंक मेळटा. हो ग्रंथ १८७१ वर्सा उजवाडाक आयिल्लो.

**डिंगल साहित्य :** डिंगल साहित्याचेर राजस्थानाचेर जाल्ले शंबरांनी वर्सांचे संस्कार, संघर्शमय लोकजीण आनी ताचो इतिहास प्रतिबिंबीत जाला. तेचपरी ह्या साहित्यांत देशप्रेम, जातीय गौरव, स्वतंत्रतायेच्या झुजाचें वर्णन आयिल्लें आसा. डिंगल साहित्याच्या इतिहासाक आगळेंच म्हत्व आसा. पंदरावें शतमान ते एकुणीसावें शतमानामेरेन सुमार चारशें वर्सांचो डिंगल साहित्याचो इतिहास मेळटा. हे भाशेंतलें गद्य साहित्य चड करून ख्यात, वात, विगत आनी पिढी च्या रुपांत मेळटा. ख्यात शब्द संस्कृत शब्द ख्यातिचें रुपांतर आसा. राजस्थानांत ह्या शब्दाचो वापर इतिहासाच्या अर्थांत जाता. राजस्थानी भाशेंत 'वात' म्हळयार काणी. संस्कृत शब्द वार्ता वयल्यान हो शब्द आयला.

डिंगल साहित्याच्यो कांय देखी अशोः **ख्यात** - सीसीदियाँ री ख्यात, राठौडॉ री ख्यात, कछवाहॉ री ख्यात, महाराजा मानसिंग जी री ख्यात, जोधपूर री ख्यात, देवलियै राघणियॉ री ख्यात आदी.

**वात** - राणै, उदैसिंघ री वात, हाडै सूरजमल री वात, राणा कूँभा चितभरमिया री वात, राव बीकैजी री वात, जैसलमेर री वात, आदी.

**विगत** - मेवाड रा भाखरॉ री विगत, सीसोदिया चूंडावताँ री साख री विगत, जोधपूर बीकानेर टीकायताँ री विगत, गढ कोटाँ री विगत आदी.

**पीढी** - ईडर रा धणी राठौड़ाँ री पीढियॉ, राठौडां री खाँपाँ री पीढियाँ, आहाडा री पीढीयाँ, चद्रावताँ री पीढियाँ आदी.

**वंशावळी** - राठौडाँ री वंशावळी, झालांरी वंशावळी, रजपूतां री वंशावळी, उदैपूर रा राजावाँ री वंशावळी, जैसलमेर राभाटी महारावळ री वंशावळी. डिंगल साहित्यांतल्या पद्यात्मक साहित्याच्या ग्रंथांचीं नांवां चडकरून चरित्र नायकाच्या नांवा वांगडा रासौ, प्रकाश, विलास, रूपक आनी वचनिका जोडून दवरताले.

**रासौ** - रायमल रासौ, राणा रासौ, सगतसिंघ रासौ, रतन रासौ, महाराजा श्री सुजाणसिंघजी रो रासौ आदी.

**प्रकाश** - राजप्रकाश, सूरज प्रकाश, भीम प्रकाश, कीरत प्रकाश आदी.

**विलास** - राजविलास, जगविलास, विजैविलास, रतनविलास,अभयविलास, भीमविलास आदी.

**रूपक** - राजरूपक, गोगादे रूपक, राव रिणमल रो रूपक, रतन रूपक आदी.

**वचनिका** - अचलदास खीची री वचनिका, राठौड रतनसी री महेसदासौत री वचनिका आदी.

छंदाच्या आदारान दवरिल्लीं नांवांः

**नीसाणी** - गोगैजी चहूँवाणा री नीसाणी, राठौड अजबसिंघ गंगासिंघोत री नीसाणी, राव खंगारजी नीसाणी, नीसाणी बीरमाण री आदी.

**झूलणा** - सोढों रा गुण झुलाणा, राजा गजसिंघजी रा झुलाणा, अमरसिंह जी रा झुलाणा .......

अशीच झमाल जीत, कवित्त, दूहा शब्द जोडून रचिल्ली रचनाय मेळटा.

**हेर विशय** - इतिहासासंबंदीत ग्रंथावांगडाच धर्म, नीती, तत्त्वज्ञान, **दृश्टी** - विज्ञान, शालिहोत्र आदींचेर बरयल्ले ग्रंथ डिंगल साहित्यांत मेळटात. हें साहित्य भाशा शास्त्राचे नदरेचो अभ्यास करपाक खुबूच उपेगी आसा. ह्या साहित्यावरवीं राजस्थानी भाशेच्या क्रमीक इतिहासाचें गिन्यान मेळोवपाक आदार जाता.

**हिंदी हिंदुस्तानी** - ही बरोवपाची प्रथा राजस्थानांतल्यान सुरू जाली. आर्विल्ले गद्य लेखक हाचोच वापर करतात. पूण घरान राजस्थानी भासच वापरतात.

राजस्थानी भाशेच्या साहित्याचो इतिहास चार खंडांनी विभाजीत करूं येता- (१) सुर्वेचो काळ १०४५ - १४६० (२) पूर्व मध्य काळ १४६० - १७०० (३) उत्तर मध्यकाळ १७०० - १९०० (४) आधुनिक काळ १९००ते आयज मेरेन. सुरवेच्या काळांतलें चडशें साहित्य नश्ट जालां. पूण जें मेळटा तातूंत शार्ङ्गधर, असाइत आनी श्रीधरचें साहित्य आसा. ह्या काळांतल्या साहित्याची भास आनी साहित्य दोनय अपरिपक्व आसा.

पूर्व मध्य काळांत रचनाकाराचे मुखेल विशय श्रृंगार, भक्ति आनी कीर्तिकथन आसताले. श्रृंगार रसाचे दोन ग्रंथ मेळटात ते अशे- ढोला मारू रा दुहा आनी वेलि क्रिसन रूक्मणी री. ह्याच काळांत मीराबाई आनी ईसरदास दोनूय नांवां खुबूच उल्लेखनीय

आसात. तशेंच दादू दयाल नांवाचो संत ह्या काळांत खूब प्रसिद्द आशिल्लो.

उत्तर मध्यकाळांत डिंगला वांगडाच पिंगळची खूब उदरगत जाली. चड करून राधा कृष्णाची प्रेमलिला वर्णन साहित्यकार करता. ह्या काळांत रिती ग्रंथय निर्माण जाले. ह्या काळांतले नामनेचे साहित्यकार अशे - बिहारीदास, वृन्द-नागरीदास, नरहरिदास, कल्याणदास, जग्गाजी, हरिनाभ, दयाल, सूदन, सुंदरकुंवरि आदी. चरणदास पंथ हातूंत दयाबाई, सहजोबाई हांचो उल्लेख म्हत्वाचो आसा जाल्यार रामस्नेही पंथांत रामचरण, हरीराम दास हांचीं नांवां आसात.

राजस्थानी साहित्याच्या आधुनिक काळांत परिवर्तन आनी उत्तर परिवर्तन काळ अशे दोन विभाग जाले. सूरजमल हो परिवर्तन काळांतलो सर्वश्रेश्ठ रचनाकार अशें मानतात. उत्तर परिवर्तन काळांत ताचो प्रभाव मात्सो उणो जालो. हिंदी साहित्यांत भारतेन्दु हरिशचन्द्राच्या काळांत ब्रजभाशेचो प्रभाव खूब जालो, तेन्ना राजस्थानी साहित्यकार ब्रजभाशेंत साहित्य रचूंक लागले. सद्याच्या काळांत राजस्थानी साहित्यकार ब्रजभाशा, खडीबोली आनी राजस्थानी अशा तिनूय भाशेंत रचना करतात. तांचीं नांवां अशीं - स्वरूपदास, बख्ताबरजी, प्रतापकुंवरी बाई, गणेशपुरी, गुलाबजी, चन्द्रकला, मुरारिदान, ऊमरदान, चतुरसिंह, पत्तराम गौड, चद्रसिंह आदी.

**- डॉ चंद्रलेखा डिसौझा.**

राजस्थानी साहित्यांत लोकवेदाची व्हडली परंपरा आसा. एम. डी. देसाय हाणें संपादीत केल्ल्या 'जैन गुर्जर कविओ' ह्या पुस्तकांत सोळाव्या शतमानासावन ते एकुणिसाव्या शतमानमेरेनच्या कविचीं कवनां एकठांय केल्यांत. तशेंच विरगाथा, रामायण, महाभारत कथा पोवाड्यांत आयकुपाक मेळटात.

१०५० ते १४५० हो कवनांचो सुरवेचो काळ अशें म्हण्टात. हो काळ जैन कवींचो. धनपाल' सचौरीय, महावीर उत्माह (११ वें शतमान) पल्लाचे जीनदत्त सुरी स्तुती (बारावें शतमान) देव सूरीचे भरतेश्वर बाहुबली घोर (तेरावें शतमान) सोममूर्तीचें जिन प्रबोध सूरी चर्चरी (१४ वें शतमान) राजशेखर सूरीचें नेमिनाथ फागु (१५ वें शतमान) हांणी कांय महत्वाचे ग्रंथ उजवाडा हाडले. कवितेचो मध्यकाळ १४५० सावन फुडलो अशें मानतात. पंदराव्या शतमानांतल्या पद्मनाभाचो कान्हडदे प्रबंध, विहू सूजोचो चंदराउ जयतसीस्तु (१६ वें शतमान).

पृथ्वीराजाचो कृष्ण - रूक्मिणी री वेली (१७ वें शतमान).

विरभाणचे - राजरुपक (१८ वें शतमान) कृपाराम खिडीयाचे राजिया रसोरठा (१९ वें शतमान) हे मुखेल ग्रंथ आसात. तशेंच नाथ संप्रदायांत पृथ्वीनाथ मानसींग, बागनाथ; विष्णोई संप्रदायांतले जांभोजी उदोजी, परमानंद; जसनाथी संप्रदायांतले करमदास देवोजी; निरंजनी संप्रदायाचे हर्षदास, तुलसीदास; दादू पंथांतले दादू रज्जब सुंदरदास अशे खूब कवी जावन गेले.

आर्विल्ल्या काव्याची सुरवात विसाव्या शतमानाच्या चवथ्या दशकांत सुरू जाली. १९५० सावन साहित्यनिर्मणी हिंदी वाङ्मयाच्या धर्तेरच जावंक लागली. चंद्रसिंगाचे 'वादळी' हे नवकवितेचें पयलें पुस्तक. 'लूहा' हो तांचो आनीक एक काव्यसंग्रह. गणेशीलाल उस्ताद, मेघराज मुकल हे प्रसिद्द कवी. सुमरसिंग, शेखावत हांचे मेघमाला आनी नारायणसिंग भाटी हांचे 'सांज' हांणी सैमाचेर कविता केल्यात. आधुनिक कवीं भितर मणिमधुकर, सी.पी. देवल, तेजसिंग जोधा, गोवर्धनसिंग, शेखावत पारस आरोडा हे प्रसिद्द आसात. मणिमधुकराचें 'पग फेरो' सी.पी. देवलांचे पागी हे काव्यसंग्रहाक पुरस्कार प्राप्त जाला.

नंद भारद्वाज हांचो 'अंधार पख', गोवर्धनसिंह हांचो 'किरकर', आर.डी. श्रीमाली हांचो 'म्हारो गांव' हीं पुस्तकां म्हत्वाचीं आसात. राजस्थानी नाटकांची सुरवात हालींचीं. शिवचंद्रभारतीय हांचे 'केशरविलास' (१९००), 'बुढापे की सगाई' (१९०६), फाटका जंजाल (१९०७), भगवती प्रसाद दारूक हांचें वृध्द विवाह (१९०३), बालविवाह (१९२०), ढलसी फिरती छाया (१९२०), कलकतियाबाबू (१९२२), तशेंच गुलाबचंद नागौरी, नारायणदास सारडा, श्री नारायण अगरवाल, बालकृष्ण लाहोटी हे नाटककार जाले. जयपूरचे एम्. एम्. सिध्द हांचे जयपूरकी ज्योणार. एम. एम्. भट्टाचें ' रंभारमण' (१९२०),जमनकाल पछेरियाचे नई बिनणी, भरत व्यासाचें रंगीलो मारवाड आनी धोला - भारू हाचे सारक्या नाटकांची निर्मणी जाली. स्वतंत्रताये उपरांत आज्ञाचंद्र भंडारीचें 'पन्नाधाय', जी. एक. शास्त्रीचें 'प्रणवीर', प्रताप यादवेंद्र चंद्राचें 'ताशरो घर' हाचे सारकी नाटकाची निर्मणी जाली. अर्जुनदेव चरण हांणी 'दो नाटक आजरा' सारकें प्रायोगिक नाटक बरयलें. तशेंच मनोहर शर्मा, जी. एफ. माथूर आनी जी. एल. व्यास हांणी कांय एकांकिका बरयल्यो. बिकानेरचे एम. एन. जोशी हे आद्य राजस्थानी कादंबरीकार अशें मानतात. 'आभइ पटकी', 'धोरा रो धारी अन्नाराम हाची 'महकती काया', मुळकती धरती', यादवेंद्र चंद्र हाची हूं गोरी किणपीव री ह्यो मुखेल कादंबरी आसात. तेच प्रमाण आर. एन. शर्मा हांची 'काल भैरवी', यादवेंद्र हाची 'जोग संजोग, सत्येन जोशी हाची कँवल पूजा, बी. एक. माली हाची 'मानख रा खोज', पारस अरोडा हाची 'खुलती गंठान' ह्यो प्रसिद्द कादंबऱ्यो जावन आसात. प्रसिद्द कथाकारांभितर एम.डी. व्यास, शिवचंद्र भारतीय, गुलाबचंद्र नागौरी, शिवनारायण तोष्णीवाल, छोटाराम शर्मा ब्रजलाल बियाणी, बी. एन. पुरोहीत, एस. आर. चंदाणी, चंद्रसिंग, चंद्र रे हे बरे कथाकार आसात. स्वातंत्र्याउपरांत एन. आर.

राजपुरोहीत हे श्रेश्ठ कथाकार जावन आसात. ताचे 'रातवासो', 'अमर चुनडी' हे प्रसिद्द कथाझेले आसात. आर. डी. श्रीमार्लीचो 'सळवटाँ' मूलचंद्रप्रानेश हाचो 'उकळता आंतर सिला सांस', चश्म दीर गवाह' हे कथाझेले प्रसिद्द आसात. तेचप्रमाण मनोहर शर्मा, दामोदर शर्मा, प्रेमजी प्रेम, विनोद सोमाणी, सचिंद्र उपाध्याय हे बरे कथाकार आसात.

- माणिकराव राम नायक गावणेकार.

**राजहंस :** ॲनॅटिडी पक्षीकुलाच्या ॲन्सरिनी उपकुळांत राजहंस ह्या सोबीत पक्षाचो आस्पाव जाता. विशिश्ट थाटाची लांब मान, लांबशें - बारीक पूण घटमूट शरीर आनी व्हड पांय अशी ताची सादारण



रचना आसता. चोंच चेपटी, मोटी आसून तोंकाकडेन कांय प्रमाणांत वयर आयिल्ली आसता.केन्ना केन्नाय तिच्या तळाक मासाळ, गुळयेवरी वाड जाल्ली आसता. ॲनॅटिडी पक्षीकुळांतल्या आनी उदकांत रावपी सगळ्या सुकण्यांमदीं राजहंसाचो आकार व्हड आनी वजन चड आसता. राजहंस खुबूच वेगान आनी लांब अंतरामेरेन पेवंक वा उडूंक शकता. तो चडसो समशीतोश्ण कटिबंधांत, उदकांत वा उदकाच्या लागसार दिश्टी पडटा.

सामान्य राजहंसाचें शास्त्रीय नांव सिग्नस सिग्नस. ताचें शरीर व्हड, लांबाय सुमार १५० सेंमी. आनी मानेची लांबाय ७५ सेंमी. आसता. रंग धवोफुल्ल, चोंच हळदुवसार आसून तोंकाकडेन मातशी काळी आसता.चोंच आनी दोळो हांचे मदल्या भागाचेर पिसां आसनात. पांय आनी पांयांचे पंजे काळे आसून बोटांमदीं मासाळ पड्डो आसता. नर आनी मादी पळोवंक सारकींच दिसतात. पूण मादी नरापरस आकारान ल्हान आसून तिचें वजन सुमार ६ - १० किग्रॅ. जाल्यार नराचें वजन ७ ते १२ किग्रॅ. आसता.

सिग्नस-प्रजातींतल्यो आनीक दोन जाती भारतांत मेळटात. ते गिमा दिसांनी भारतांत सोयरे कशे येतात. तातुंतलो शिळोणी घालपी राजहंस दिल्ली आनी कच्छ ह्या वाठारांनी मेळटा. ताचें शास्त्रीय नांव सि. कोलंबियानस. हो रंगान धवोफुल्ल, चोंच हळदुवसार आनी चोंचीच्या मुळांत हळदुव्या रंगाचो दाग आसता. ताचे चोंचीचें तोंक काळें आसता.मोनो राजहंस सिंधू न्हंयेचे देगेर आनी पंजाबांत मेळटा. ताचें शास्त्रीय नांव सि. ओलोंर. ताचे चोचीकडेन मुळांत व्हड काळी गुठ्ली आसता.राग येतकच तो मान शरिराकडेन दोडून ओडून घेता आनी पांखां पातळावन शरिराक चिकटावन उबो रावता.

काळो राजहंस चड करून ऑस्ट्रेलियांत मेळटा. ताचें शास्त्रीय नांव सि. मेलँकोरीफस. ताचें पुराय शरीर काळेंकिट्ट आसून ताचेर पाचविसार सया मारता. ताची चोंच तांबडी आसून तिच्या तळाक तांबड्या रंगाची मांसाची गुठ्ली आसता.

राजहंस पेंवता आसतना मोटे ऐटीन पेंवता. पेंवता आसतना कांय सुकण्यांची मान सरळ उरता जाल्यार कांय जाणांचे मानेक इंग्लीश -s- (एस) अक्षरावरी आकार येता.उडटा आसतना तो आपली मान फुडें लांबोवन सवकासायेन पांखां वयर - सकयल हालयत थंडसाणेन उडटा. स्थलांतर करता आसतना हाचो थवो इंग्लीश(v) (व्ही) अक्षराच्या आकारान उडत वता. ताचे पांय शरीराचे बरेच फाटले वटेन आशिल्ल्यान तो चलता आसतना कुरूप दिसता.

राजहंस वेगवेगळे तरांचे आवाज काडूंक शकता. त्या आवाजांवयल्यान तांकां श्रृंगवाकू (ट्रंपेटर), शिळोणी घालपी (व्हिसलिंग), रवोंकपी (व्हूपर) अशीं वेगवेगळीं नांवां दिल्लीं आसात. मोनो (म्यूट) हंस म्हणून वळखवतलो राजहंस फुत्कारिल्लेवरी, गुरगुरिल्लेवरी आनी घोरेल्लेवरी आवाज काडटा.

राजहंसाचे व्हड व्हड थवेच दिश्टी पडटात. प्रजोत्पादनाच्या काळांत मात नर-मादयेच्यो जोडयो दिसतात. ताची नरमादयेची जोडी जल्मभर तिगता. जमनीर, फोंडांत पानांची रास जमोवन घोंटेर बांदतात. मादी एके खेपेक सुमार ६- ८ लेव हळदुवसार रंगाचीं तांतयां घालता. मादी तांतयां उबयता तेन्ना नर तिच्या तांतयांची राखण करता. दुस्मानाक धांवडायतकच नर आपलें जैत उक्तावपाखातीर व्हड आवाज करता. पिलां आंखूड मानेचीं आसून तांकां मोव ल्हंवदार पिसां आसतात. पिलांचो रंग लेव तपकिरी, लेव हळदुवसार-करडो आसता. जल्मतकच कांय वरां भितर पिलां पेवंक वा उडूंक शकतात. कांय जातींनी पिलां व्हड जायसर मादी तांकां पेंवतना आपले फाटीर घेता.तिसऱ्या ते चवथ्या वर्सा राजहंस पिरायेत येता. सैमीक परिस्थितींत राजहंस सुमार २० वर्सां आनी पोशिल्ले सुमार ५० वर्सां जगतात.

उदकांतली वनस्पत हें राजहंसाचें मुखेल खाण. पोशिल्ले राजहंस तृणधान्यां (तणाचें बीं) खाता.

राजहंसाचे सोबितकायेक लागून आनी ताच्या विशिश्ट थाटाक लागून ताका ललित साहित्यांत खूब आदल्या काळारसावन सुवात

मेळळ्या. तशेंच, तो मोतयांचो चारो खाता, दूद उदक भरसून दवरल्यार उदक सोडून फकत दूद पियेता, मरपाची ताका आदींच सुलूस लागता अशो दंतकथा आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**राजाराम छत्रपती :** (जल्मं : २ मार्च १६७०, रायगड; मरणः १५ मार्च १७००, सिंहगड).

छत्रपती शिवाजीचो धाकलो पूत.शिवाजी महाराजाक सोयराबाईपसून हो पूत जाल्लो. छत्रपती संभाजी हो ताचो भाव.ताचें लग्न १५ मार्च १६८० दिसा प्रतापराव गुजराची धूव जानकीबाई वांगडा जालें. तिच्या मरणा उपरांत ताराबाई, राजसबाई, अंबिकाबाई हांचे वांगडा ताचीं लग्नां जालीं. शिवाजीच्या मरणा उपरांत संभाजीन आपल्या हातांत सुत्रां घेतलीं, तेन्ना राजाराम नदर कैदेंत आशिल्लो. १६८५ वर्सा मोगलांकडल्यान जहांगीर मेळोवपाखातीर राजारामान रायगडावयल्यान पळून वचपाचो अयशस्वी यत्नूय केल्लो.

संभाजीक मोगलांनी अटक केले उपरांत ९ फेब्रुवारी १६८९ वर्सा चांगोजी काटकर आनी येसाजी कंक हांणी राजारामाक १२ फेब्रुवारी १६८९ दिसा सत्तेर हाडलो. राजारामान प्रल्हाद निराजी, मनाजी मोरे हे मंडळीक बंदखणींतल्यान सोडोवन तांची आदल्या पदांचेर नेमणूक केली.

मोगलांनी रायगडाक घेराव घाल्ल्यान २५ मार्च १६८९ दिसा राजाराम आनी ताचे कुटुंबीय, प्रल्हाद निराजी, खंडो बल्लाळ हांणी रायगड सोडलो आनी १६९४ वर्सा मोगलांच्या चपक्यांतल्यान सुटपाखातीर ते जिंजीक गेले. ताणें महाराष्ट्रांतलीं अधिकार सुत्रां शंकराजी नारायण आनी रामचंद्रपंत हांचेकडेन दिवन धनाजी जाधव आनी संताजी घोरपड हांकां सेनापती नेमले. १६९६ वर्सा दोगांयमदीं झगडीं जालीं. तेन्ना राजारामान संताजीचें सेनापतीपद काडून धनाजीक दिलें. १६९७ त राजाराम जिंजी सोडून विशालगडार गेलो. १६९८ - ९९ च्या सुमाराक ताणें खंडेराव दाभाडे, परसोजी भोंसले, धनाजी जाधव हांचे वांगडा व्हाड - खानदेशांत घुरी घाली. पूण तो जैत जोडूंक पावलो ना.

राजारामान स्वताचे हिमतीचेर कसलीय गजाल केल्ली नासली, तरी ताणें सरदार आनी मुत्सद्दी हांचो फावो तो उपेग करून घेतलो. तो स्वभावाचो शांत आनी थीर बुध्दीचो आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**डॉ. राजेंद्रप्रसाद :** (जल्मः ३ डिसेंबर १८८४, सारन - बिहार; मरणः २८ फेब्रुवारी, १९६३, पाटणा).

एक व्हड देशभक्त आनी स्वतंत्र भारताचो पयलो राष्ट्रपती. ताचो जल्म श्रीवास्तव कायस्थ घराण्यांत जालो. ताच्या बापायचें नांव महादेव सहाय आनी आवयचें कमलेश्वरीदेवी. ताका चार भावंडां आशिल्लीं.



गांवांत शाळा नाशिल्ल्यान ताचें शिक्षण घराकडेनच मौलवीच्या मार्गदर्शनाखाला जालें. तातूंत उर्दू - फारशी भाशेचेर चड भर आशिल्लो. उपरांत छपरा, हाथुआ, पाटणांत हायस्कुलाचें शिक्षण घेतलें. इ.स. १९०२ त तो कलकत्ता विश्वविद्यालयांत मॅट्रिकेचे परिक्षेंत वीस हजार विद्यार्थ्यांमदीं पयलो आयलो. फुडाराक कलकत्त्याचे प्रेसिडेन्सी कॉलेजींतल्यान ताणें बी.ए., एम.ए. च्यो पदव्यो बऱ्या गुणांनी हातासल्यो. ह्या वेळार ताका फांकिवंत वनस्पतिशास्त्रज्ञ जगदीशचंद्र बोस आनी रसायनशास्त्र आचार्य प्रफुल्लचंद्र रे हांच्या अध्यापनाचो लाव मेळ्ळो. इ.स. १९०९त ताणें कायध्याची बी.एल्. ही परिक्षा दिली. सुरवेक कांय वर्सां ताणें अध्यापनाचें काम केलें आनी १९११वर्सा सावन कलकत्त्याच्या हायकोर्टांत तो वकिली करपाक लागलो. १९१५त तो पयल्या वर्गांत एम्.एल्. जालो. ताचो त्याग, देशसेवा आनी विद्वत्ताय पळोवन अलाहाबाद विश्वविद्यालयान फुडाराक ताका डॉक्टर ऑफ लॉ ही पदवी दिली.शिकता आसतनाच त्या वेळावयले रिती प्रमाण ताचें (१८९७) त राजबंसीदेवीकडेन लग्न जालें.

कॉलेजींत आसतना ताणें भौशिक कामांत रस घेतलो. विंगड विंगड भौशिक संस्थांकडेन ताचो लागींचो संबंद आसलो. १९०१ त ताणें कलकत्त्यांत अरूण मंडळ नांवाची धर्मीक संस्था स्थापन केल्ली. बिहारी विद्यार्थ्यांचें छात्रसंमेलन भरोवपाक ताणें फुडाकार घेतलो.एम्.ए. जाले उपरांत मुझफ्फरपूरचे भूमिहार ब्राह्मण कॉलेजींत अध्यापक म्हणून काम केलें. फुडें कलकत्त्याचे सिटी कॉलेजींत प्रोफेसर म्हणून ताणें नोकरी केली. बरो शिक्षक अशी भुरग्यांमदीं ताची नामना जाली. हायकोर्टांत वकिली करपाक सुरू केले उपरांत १९१४ ते १९१६ अशीं दोन वर्सां तो कलकत्ता युनिव्हर्सिटीचे लॉ कॉलेजींत प्रोफेसर म्हणूनच वावुरतालो. उपरांत ताणें खंयचेच सरकारी कॉलेजींत नोकरी केली ना. १९२१ त ताणें स्वताच एक राश्ट्रीय विद्यापीठ स्थापन करून तातूंत प्रोफेसर, प्रिन्सीपॉल आनी व्हायस चॅन्सेलर म्हणून वावर केलो.

१९११ ते १९२० मेरेन ताणें कलकत्ता आनी पाटणांत हायकोर्टाचो वकील म्हणून वकिली केली. १९२० त ताणें वकिली सोडली आनी असहकारितेचे चळवळींत वांटो घेतलो. बिहारच्या चंपारण्यांतल्या शेतकामत्यांचो प्रश्न सोडोवपाक म. गांधी १९१७ त चंपारण्यांत आयिल्लो तेन्ना ताचो संबंद गांधीजीकडेन आयलो आनी तेन्नासावनूच तो गांधीचो लागींचो सहकारी जाल्लो. १९०६ वर्सा सावन

राजेंद्रबाबू काँग्रेसीचो वांगडी आशिल्लो. पूण १९१९त रौलट कायदो रद्द करपाखातीर सत्याग्रहाची मोहीम जाली, तेन्नासावन काँग्रेसीकडेन ताचो सामको लागींचो संबंद आयलो. १९२० त बिहारांत ताणें परिशद घडोवन हाडली. तेन्नासावन बिहारांतले चळवळीचें फुडारीपण ताचेकडेन आयलें. राष्ट्रीय सभेच्या हुकुमाप्रमाण ताणें बिहारभर भोंवडी करून थंय ग्रामसंघटना, काँग्रेस कमिट्यांची पुनर्घटना केली. तेचपरी टिळक स्वराज्य फंड जमोवप, चरख्याचो प्रसार करून भायल्या देशांतल्या म्हालांचेर बहिश्कार घालपाचो प्रचार करप, काँग्रेसीचे वांगडी वाडोवप, सोरो बंदीचो पुरस्कार करप हीं सगळीं कामां केल्लीं. खादीच्या प्रचाराचेर ताणें चड भर दिलो. बिहारांत ताणें बरींच खादी केंद्रां सुरू केल्लीं. म. गांधीच्या चरखासंघांत तो मुखेल वांगडी आशिल्लो.

१९३० त गांधीजीचे कायदेभंगाचे चळवळींत सक्रीय वांटेकार जावन ताणें मिठाचो कायदो मोडलो, चौकीदारी कर दिवपाक न्हयकार दाखयलो आनी बेकायदेशीर मिरवणुकांचें फुडारपण केलें. ताका लागून ताका दोनदां कादयेंतय वचचें लागलें. १९३० - ३१ आनी १९३२ त ताची काँग्रेसीचो अध्यक्ष म्हणून तात्पुरती नेमणूक जाली. १९३३ त तो अध्यक्ष आशिल्लो, तेन्ना बेकायदेशीर काँग्रेसीचो अध्यक्ष म्हणून ताका धरलो आनी १५ म्हयन्यांची सक्तमजुरेची ख्यास्त फर्मायली. पूण कादयेंत प्रकृती इबाडिल्यान मुदतीचे पयलींच तीन म्हयने ताची सुटका केली. १९३४ त बिहारांतल्या व्हड भूंयकांपांत स्वता दम्याच्या त्रासान बरो नासतना ताणें मदत समितीची स्थापणूक करून लोकांक आदार, आलाशिरो दिलो हें ताचें काम बिहारच्या इतिहासांत अजरामर जालां.

१९३४त मुंबयच्या भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेसीच्या अधिवेशनाचो तो अध्यक्ष जालो. ९ ऑगस्ट १९४२त इंग्लीश सरकारान म. गांधीसकट सगळ्या व्हड फुडाऱ्यांक धरून बंदखणींत घाले. तेन्ना राजेंद्रबाबूकय पाटण्यांत बांकीपूर बंदखणींत बंद केलो. १५ जून १९४५त ताची सुटका जाली. हे कादयेंतच ताणें 'द्विखंड भारत' हें पुस्तक बरयलें आनी आपले 'आत्मकथेचो' बरोचसो वांटो बरोवन काडलो. फुडें २ सप्टेंबर १९४६ ह्या दिसा पं. नेहरूच्या फुडारपणाखाला राष्ट्रीय सरकार म्हळयार हंगामी (तात्पुरतें) मंत्रीमंडळ घडयलें. तातूंत राजेंद्रबाबूचोय आस्पाव आशिल्लो. ९ डिसेंबर, १९४६ ह्या दिसा दिल्लींत घटना परिशद जाली. तेन्ना एकमतान राजेंद्रबाबूची अध्यक्षपदाखातीर निवड जाली. हे परिशदेंत तीन वर्सां काम करून २६ नोव्हेंबर, १९४९ त घटना मान्य करून घेतली. ६ मे १९५२ दिसा ताची पयले खेपे "राष्ट्रपती" ह्या सगळयांत उंचेल्या पदाखातीर निवड जाली. १३ मे १९५७ दिसा ताची त्याच पदाखातीर दुसरे खेपे निवड जाली.

राजेंद्रबाबूक इंग्लीश, हिंदी, गुजराती, बंगाली, संस्कृत ह्यो भासो कळटाल्यो. पूण ताचें हिंदी भाशेचेर चड प्रभुत्व आशिल्लें. ताणें बिहारांत आनी दक्षिण भारतांत हिंदीचो प्रचार जावंचो, म्हणून बरोच मोलाचो वावर केलो. १९१२ त कलकत्त्याक जाल्ल्या तिसऱ्या हिंदी साहित्य संमेलनाचो तो मुखेल कार्यवाह आशिल्लो. १९२० तच पाटणाक जाल्ल्या १० व्या अधिवेशनांत तो मुखेलपणान वांटेकार जालो. १९२६त दरभंगा पाटणाक जाल्ल्या बिहार प्रांतीय संमेलनाचो तो येवकार अध्यक्ष आशिल्लो. १९२३ वर्सा काकिनाडा हिंदी साहित्य संमेलन, १९२७वर्सा गुरूकुल कांगडीचें संयुक्त प्रांतीय साहित्य संमेलन आनी १९३६ वर्सा नागपूराक जाल्ल्या अखिल भारतीय हिंदी साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्षपदाचो मान ताका लाबलो.

राजेंद्रबाबून हिंदी आनी इंग्लिशींत लिखाण केलां. चंपारण्य में मं.गांधी, मेरे युरोप के अनुभव आनी 'आत्मकथा' हीं ताचीं पुस्तकां हिंदींत आसात, जाल्यार इकॉनॉमिक्स ऑफ खादी आनी डिव्हायडेड इंडिया हीं ताचीं इंग्लीश पुस्तकां. ताणें पाटण्यांत 'सर्च लायट' (दिसाळें), 'पाटणा लॉ विकली' (सातोळें) इंग्लिशींत सुरू केलें. 'देश' नांवाचें हिंदी सातोळेंय ताणें सुरू केल्लें, तो ह्या पत्रांचो सुरवेक संपादक म्हणून वावुरलो.

२० डिसेंबर १९४७ ह्या दिसा पाटणा विश्वविद्यालयान ताका 'डॉक्टर ऑफ लिटरेचर' हो किताब दिलो. अलाहाबाद विश्वविद्यालयानय डॉक्टर ऑफ लॉ, जाल्यार सागर विद्यापीठ, म्हैसूर आनी दिल्ली विश्वविद्यालयानूय आपल्यो सगळयांत उंचेल्यो पदव्यो ताका दिल्यो. १९५0त काशी विद्यापिठाचे विद्वत्परिशदेन ताका 'विद्यावाचस्पती' ही पदवी प्रदान केली. भारत सरकाराचो 'भारत रत्न' हो सगळयांत व्हड मानाचो किताब ताका १९६२ त मेळ्ळो.

१९२७ त श्रीलंका आनी १९२८त युरोपाची ताणें कामानिमता भोंवडी केली. राष्ट्रपती जाले उपरांत १९५६ त नेपाळ, १९५८त जपान, मलाया, इंडोनेशिया, कंबोडिया, दक्षिण - उत्तर व्हिएतनाम, लाओस आनी श्रीलंका जाल्यार १९६0 त रशियेच्या सदित्सा भोंवडेक तो वचून आयलो. १0 मे १९६२ दिसा तो राष्ट्रपती पदावयल्यान निवृत्त जालो.

राजेंद्रबाबू राजकारणा इतलोच समाजसेवेंत वांटो घेतालो, तो धर्मनिश्ठ पूण रुढिप्रिय नाशिल्लो. समाजीक सुदारणांची सुरवात ताणें आपल्या घरासावनच केल्ली. ताचे राष्ट्रपतीचे कारकिर्दींत राष्ट्रपतीची घटनात्मक सुवात आनी अधिकार हे विशींचो प्रश्न दोन - तीन खेपे उपरासलो. ताका लागून प्रधानमंत्री पं. नेहरूकडेन ताचो तत्त्वीक मतभेदूय जालो. पूण ताचे व्यक्तिगत इश्टागतींत आनी स्नेहबंधांनी ताणें बादा येवंक दिली ना. ताचें व्यक्तिमत्व सगळयांक स्पर्शून वचपी अशें आशिल्लें. समतेचेर आनी मनीसपणाचेर आदारिल्ल्या नवसमाजाची घडण जावंक जाय ह्या मताचो तो आसलो. नेहरूच्या समाजवादी विचारांसावन तो सदांच पयस रावलो. ताचेर म. गांधीचीं धोरणां आनी मुल्यां हांचो बरोच प्रभाव आशिल्लो. सौजन्य, विद्वत्ताय आनी कार्या

वयली निश्ठा हांकां लागून तो सामान्यांमदीं बरोच लोकप्रिय जालो. हाकाच लागून म. गांधी ताका 'अजातशत्रू' अशें म्हण्टालो.

- कों. वि. सं. मं.

**राज्यघटना :** (पळेयात संविधान).

**राज्यशास्त्र :** सामाजीक शास्त्राचो एक प्राचीन असो फांटो. ह्या फांट्यांत समाजाच्या सगळ्याच घटकांचो विचार जावप शक्य आसलें आनी एका तेंपार तशें करप जाल्लें आसलें तरी आधुनिक काळांत ह्या फांट्यांत भुगोलीक मर्यादेची राज्य ही संकल्पना, हे संकल्पने फाटलें तत्त्व, थंयचें शासन, ताचें कार्य आनी संबंदीत घटकांमदलो वेव्हार हाचो मुखेलपणान विचार जाता आनी ह्याच विचाराक धरून सद्याचे राजकीय परिस्थितीचो परिणाम म्हणून आंतरराश्ट्रीय वेव्हाराचोय ह्या शास्त्रांत आस्पाव जाता. संयुक्त राश्ट्र संघाचे शिक्षण शास्त्र संस्कृती हे संघटनेन युनोस्को राज्यशास्त्रांत आस्पाव जावपी वळेरी केल्या. तातूंत राजकीय तत्त्व आनी ताचो इतिहास, राजकीय संघटना, राजकीय पक्ष आनी लोकमत, आंतरराश्ट्रीय राजकारण हांचो आस्पाव केला.

वैदिक वाङ्मयांत राजा हे संज्ञेचो उल्लेख खूब आदीं सावन मेळटा. आर्य लोक जे वेगवेगळ्या गणांत विभागून रावताले ते परकी आक्रमणांपसून संरक्षण मेळपाचे गरजेंतल्यान आपल्या मदल्या बळिश्ट मनशाक आपलो अधिपती (राजा) मानून घेताले आसुंये. तैत्तरीय ब्राह्मण आनी ब्राह्मणांत दैत्याकडेन झूज करपाच्या कामाखातीर देवांनी आपल्या मदल्या सोम आनी इंद्र हांकां राजा केल्ल्याचो उल्लेख आसा. महाभारतांतल्या शांतीपर्वांत भीष्म आनी धर्मराज हांचेमदल्या संवादांतल्यानय अशेच तरेची राजाची प्रेरणा दिसता.

**भारतीय राज्यशास्त्र :** बऱ्याच पुर्विल्ल्या काळांत भारतांत राज्यशास्त्र ही गिन्यानाची शाखा अस्तित्वांत आशिल्ली. पुर्विल्ल्या संस्कृत साहित्यांत बृहस्पती, शुक्र, मनु, भीष्म आनी कौटिल्य ह्या राज्यशास्त्राच्या प्रणेत्यांचो उल्लेख मेळटा. कौटिलीय अर्थशास्त्र, मनुस्मृती, याज्ञवल्क्य स्मृती आनी महाभारत आदी ग्रंथांनी राजनितीक तत्त्वां स्पश्टपणान मांडल्यांत. पुर्विल्ल्या काळांत ज्यो वेगवेगळयो गिन्यानाच्यो शाखा आशिल्ल्यो तांचें वर्गीकरण जावन त्रयी, वार्ता, दंडनिती आनी आन्वीक्षिकी अशो ह्यो चार विद्या त्या वेळच्या शिक्षणीक कार्यक्रमांत आस्पाविल्ल्यो. त्रयी म्हळयार धर्मशास्त्र, वार्ता म्हळयार अर्थोत्पादन आनी अर्थविनीमय, दंडनिती म्हळयार राज्यशास्त्र तशेंच आन्वीक्षिकी म्हळयार तत्त्वगिन्यान आनी तर्कशास्त्र. ह्या चार विद्यांचें समाजीक जिणेंत सातत्य उरचें देखून विधीनिशेध वेवस्था, वेगवेगळया कर्तव्यांची वेवस्था, वर्णाश्रम वेवस्था म्हळयार धर्म स्थापनेची मांडावळ जाल्ली आनी हांकां पूरक अशी दंड ह्या म्हत्वाच्या साधनाचें प्रयोजन केल्लें. भारतीय राज्यशास्त्रांत दंड हें धर्मस्थापनेचें साधन अशें विश्वव्यापी तत्त्व मांडिल्लें आसा.

जें मेळपाचें तें मेळूना तें मेळोवपाखातीर, जें मेळिल्लें आसा ताची राखण करपाखातीर, राखिल्लें वाडोवपाखातीर आनी वाडिल्लें योग्य कडेन पावोवपाखातीर जाय आशिल्लें धोरण म्हळयार दंडनीती. लोकजीण म्हळयार लोकयात्रा, दंडनितीचेर आदारून आसा. त्रयी, वार्ता आनी दंडनीती हांचें समीक्षण आन्वीक्षिकीच्या योगानच जावंक शकता. अधर्म खंयचो, धर्म खंयचो, खंयचें तंत्रगिन्यान चड अर्थसाधक आनी खंयचें तशें ना, खंयचें राजकीय धोरण यशस्वी जातलें आनी खंयचें जावचें ना हाची समीक्षा करपाचें बळगें आन्वीक्षिकीन फाव जाता. दंडनीतीच्या योगान फाव तें धोरण, फाव नाशिल्लें धोरण तशेंच बळ किद्यांत आसता आनी दुबळेंपण किद्यांत आसा हाचो निर्णय करूं येता. दंडनीतीन समाजजीण म्हळयार लोकयात्रा सुरक्षितपणात चलता, हो भारतीय राज्यशास्त्राचो मुखेल मुलभूत सिध्दांत आसा. वेदांत त्रैलोक्य ही राजसंस्था आसून दंडतत्त्व वेदांत त्रैलोक्यव्यापी आसा. विश्वाची सुवेवस्था आनी ते सुवेवस्थेचे नेम हांकां वेदांत ऋत अशें नांव आसा. ऋत शब्दाचो दुसरो अर्थ यज्ञाची फाव ती प्रक्रिया आनी तिसरो अर्थ नैतिक नेम. विश्वाची सुवेवस्था वा नेमबध्दता ही शास्वत आसून ते नेमबध्दतेचें पालन इंद्र, वरुण, मित्र, सविता, यम आदी देव करीत आसतात. हे ऋतज ह्या नेमांतल्यानच तयार जाल्ले आसतात. देखीक - मानवी समाजांतले राजा, मंत्री, सचिव हांची नेमणूक वा निर्मिती जशी नेमाप्रमाण जाता ते प्रमाण देवांची येवजण वा नेमणूक ऋता प्रमाण जाता. देखून तांकां ऋतज म्हळयात.

भारतीय राज्यशास्त्रांत स्वामी, अमात्य,जनपद, दुर्ग, कोश, दंड, आनी मित्र अशें सप्तांग राज्य गरजेचें म्हण गृहीत धरलां.

तशेंच भारतीय दंडनीती म्हळयार राज्यशास्त्रांत, राजसत्ताक पद्धतीक गृहीत धरून राजनीती वर्णिल्ली आसा. गणराज्याची कल्पना लेगीत भारतीय नीतीशास्त्रांत तशेंच कौटिलीय अर्थशास्त्रांतय आसा. कौटिलीय अर्थशास्त्रांत भारतीय राज्यशास्त्राचें म्हत्वाचें अशें मोलादीक तत्त्वगिन्यान सुरखेक सूत्ररुपान मांडिल्लें आसा. तशेंच मनुस्मृतीच्या ७ आनी ९ ह्या अध्यायांत आनी महाभारताच्या शांतिपर्वांतल्या राजधर्मपर्व आनी आपदपर्व हातूंत वेगवेगळया स्वरुपाचें राजकीय तत्त्वगिन्यान सोंपेतरेन मांडिल्लें आसा.

सोळाव्या शतमानांत युरोपियन प्रबोधन काळांत राज्यशास्त्राक वास्तववादाचें अधिश्ठान दिवपी मॅकिआव्हेली हाचें आनी कौटिल्ल्याचें राजनितीशास्त्र सारकेंच आसा. कौटिल्यान आदर्श धर्मराज्य स्थापनेखातीर आनी तें सतत तिगोवपाखातीर आदर्श राजा वर्णिल्लो आसा. ताच्या मतान जितेंद्रिय राजा होच विवेकपूर्ण रितीन दंडधारण करून लोकसंस्थेक पाळो दिवंक शकता. तशेंच प्रजेक पुरूषार्थ साधनेंत सदांच उपयुक्त करता. विवेकी आशिल्ल्यान गुन्यांवकाराचेर दंडप्रयोग करता आनी निर्दोश आशिल्ल्यांक पुरुषार्थसाधनेंत शांततापूर्ण समाजीक वातावरण निर्माण करता. दंडशक्तीचो योग्य प्रयोग विद्याविनीत

राजाच करूंक शकता. विद्याविनीत राजा प्रजेच्या विद्याविनयांत सदांच मग्न उरता आनी सगळया भूतहितांत मग्न रावन अविरोधान राज्य भोगूंक शकता. फुडें कौटिल्य अशें मत मांडटा, शिक्षणान पात्रताय आशिल्लो मनीसच विद्येचें ग्रहण बरे तरेन करूंक शकता. विद्याविनयाच्या योगान इंद्रियजयाची प्राप्ती जाता. काम, क्रोध (राग), लोभ, मान, मद आनी हर्ष ह्या स विकारांचो त्याग केलो म्हणजे इंद्रियांचेर जैत मेळटा. असो इंद्रियांचेर जैत मेळयल्लो राजा राज्य बरेतरेन चलोवंक शकता.

स्वता दंडधारी राजा आनी प्रजा ह्या दोगांयनी पुरुषार्थी जीण जगची देखून पुरुषार्थाविशींची तात्त्विक मिमांसा कौटिल्य सांगता. हीच तत्त्वमिमांसा महाभारतांतल्या राजनीतीशास्त्रांत वेगवेगळया नदरेंतल्यान परत परत मांडिल्ली आसा. सत्ताधारी राजा हो जितेंद्रिय आसूंक जाय जाल्यारच तो न्याय्य राज्य वा धर्मराज्य बरेतरेन चलोवंक शकता. हाचेर राजान सुखोपभोग घेवचो काय ना असो प्रस्न येता. तेन्ना कौटिल्य 'त्रिवर्ग' ह्या पारिभाशीक शब्दान धर्म, अर्थ आनी काम ह्या तीन मानवी उद्दिश्टांचो निर्देश करून तिगांयचेंय सेवन राजान आनी दर एका मनशान करप गरजेचें अशें सांगता. धर्म आनी अर्थ ह्या दोन पुरुषार्थांक बादा येवची ना, अशें तरेन काम पुरुषार्थाचो भोग घेवचो. फकत सुखाचीच जीण आसूंक जायना. धर्म, अर्थ आनी काम ह्या तिनूय पुरुषार्थांचो समतोल आसूंक जाय. तातुंतल्या खंयच्याय एकाचोच अतिरेक आसूंक जायना. मनुस्मृतीत हे तिनूय पुरुषार्थ एकमेकांत गुंथिल्ले आसात. देखून तिगांयकूय सारकेंच म्हत्त्वय आसा. लोकयात्रा हें राज्यशास्त्राचें मुखेल उद्दिश्ट. पुरुषार्थाचें योग्य रितीन सेवन करीत प्रजा जगतली अशी वेवस्था म्हळयार लोकयात्रा. महाभारतांत तीन पुरुषार्थांत, चवथ्या मोक्ष ह्या पुरुषार्थाची भर घालून तीनाजाग्यार चार पुरुषार्थ मानिल्ले आसात. कौटिल्यान जशें स्वामी म्हळयार राजा म्हणजेच निमाणो सत्ताधारी वा दंडाधारी कसो आसूंक जाय हाची फोडणिशी केल्या. तशेंच मनु, याज्ञवल्क्य, आदिंच्या धर्मशास्त्र ग्रंथांत तशेंच महाभारत आनी रामायण केल्लें आसा.

अराजक स्थितींत बेबंदशाय पातळटा, दुबळयांक सबळ त्रास करतात. मात्स्यन्याय पातळटा. म्हणजेच ल्हान नुस्त्याक व्हड नुस्तें गिळटा, ते प्रमाण समाजाची स्थिती जाता. तातुंतल्यान भायर येवपाखातीर ह्या सगळया चराचरांच्या रक्षणार्थ इश्वरान राजा निर्माण केलो, अशी आधिदैवीक वा पारलौकीक उपपत्ती मनुस्मृतींत सांगल्या. आदर्श राजा म्हळयार इंद्र, वायु, यम, सूर्य, अग्नी, वरुण, चंद्र आनी कुबेर ह्या देवांचें शास्वत सार एकठांय करून ईश्वरान राजा तयार केलो म्हणजेच ह्या देवताच्या गुणाचो अंश राजा हे व्यक्तींत एकत्रीतपणान आस्पावता अशी ताचेफाटली धारणा आसा. देखून राजाची निंदा करूं नये. मनशाच्या रुपांत तो श्रेश्ठ देवच शिंवासनाचेर विराजमान जाल्लो आसता. धर्मस्थापनेखातीर तो वेगवेगळीं रुपां धारण करता. ब्रह्मतेजान भरिल्लो धर्मरूप, सगळया प्राण्यांचो रक्षक दंड हो ईश्वरान पयलीं निर्माण केलो आनी उपरांत वयल्या इंद्रादी देवाचें सार एकठांय करून दंडधारी राजा ईश्वरान निर्माण केलो.

**अस्तंती राज्यशास्त्र :** हाची सुरवात प्लेटोपसून मानतात. प्लेटोन आपल्या द रिपब्लीक (सुराज्य), स्टेट्समन (राज्यकर्तो), लॉज (कायदे) ह्या ग्रंथांवरवीं राज्यशास्त्राचें तत्त्वगिन्यानात्मक स्वरूप मांडिल्लें आसा. नगरराज्य कशें आसचें ताची मांडावळ करता आसतना वेगवेगळया मानवी-सैमीक स्वभावाप्रमाण उच्च-नीच वर्गांत समाजरचना वर्णिल्ली आसा. ही नगरराज्यांतली संस्कृती नोकरवर्गाच्या कश्टांचेर निर्माण जाल्ली आसा. वरिश्ठ वर्गाची संपन्न आनी नैतीक वा कल्याणमय जीण आदर्श राज्यांत कशी आसची हाचें स्पश्टीकरण हातूंत मेळटा. सगळे वरिश्ठ सत्ताधारी, घोव-बायल हे भौशिक आसूंक जाय, तांची आस्पतय भौशीकूच आसूंक जाय. भुरग्याक आपले स्वताचे आवय बापूय नेमके खंयचे हें खबर आसूंक जायना. अशेतरेचे स्वार्थविरयत सत्ताधारी म्हळयार राजा हे तत्त्वगिन्यानी जाले जाल्यारच निस्वार्थी आनी निरहंकारी जावंक शकतात. कारण समाजाक न्यायाचें राज्य जाय आसता.

प्लेटोन सुराज्य हो युटोपियावाद मांडटकच त्या काळांत अस्तित्वांत आशिल्ल्या राज्यसत्ता, श्रेश्ठसत्ता, ॲरिस्टॉक्रसी आनी प्रजासत्ता आदी वेगवेगळया राज्यवेवस्थांचें मूल्यमापन केलें. राज्यसत्ता बरी आसता, पूण तिका वेवहार्य (वेव्हारिक) स्वरूप दिवप कठीण आसता. उच्चवर्गीय श्रेश्ठींचें शासन संपत्तीच्या मोहान नश्ट जायत वता. कारण शास्ते चड संपन्न जायत वतात आनी गरीब लोकांचो प्रभाव वाडटा. लोकशायेंतले गरीब फुडारी संपन्न वर्गाक नागोवंक लागतात आनी अशेतरेन अवेवस्था जावन दंडधारी, जोमी मनीस राज्य करूंक लागता. हाका लागून प्लेटोन सुसंवादी, समाजवेवस्था, कल्याणमय जिणेपद्धत आनी कायद्याचें राज्य ह्यो तीन गजाली म्हळयार राज्याचीं उद्दिश्टां असो विचार मांडला.

ॲरिस्टोटलच्या पॉलिटिक्स ह्या ग्रंथांत त्या काळच्या शिक्षीत ग्रीक नागरिकांचे ग्रह तातूंत प्रतिबिंबीत जाल्यात. मध्ययुगांतलो तो राज्यशास्त्राचो प्रमाणभूत ग्रंथ आशिल्लो. ॲरिस्टॉटल ह्या ग्रंथांत उच्चतम कल्याणाच्या उद्देशान उच्चतम आकृती बंधाचो अस्तित्वांत आयिल्लो मानवी समाज म्हळयार राज्य. ताच्या मतान कल्याणमय जीवन हें राज्याचें उद्दिश्ट आसा. ॲरिस्टोटल सत शासनाचेर भर दिता. पुराय समाजाचें हीत वा कल्याण सादपी शासन हें सत शासन. ताच्या मतान तीन प्रकारचीं सत शासनां सांगता - राजसत्ता वा राजेशाही (मॉनर्की), अभिजनसत्ता (ॲरिस्टॉक्रसी) आनी संविधाननिश्ठसत्ता (पॉलिटी) आनी असत शासनां तीन प्रकारचीं आसात. सुलतानशाही (टिरनी), स्वल्पतंत्र (ऑलिगॉर्की) आनी प्रजाशासन (डेमॉक्रसी). ह्या स प्रकारच्या शासनाभायर हेर जायत्या प्रकारचीं मिश्रणां मेळटात.

सत शासन काय असत शासन हें शासनाच्या नैतिक गुणाचेर अवलंबून आसता. ॲरिस्टॉटलान बंडां आनी क्रांत्यो कित्याक जातात ताची सविस्तर विस्कटावणी केल्या. शिक्षणाचो प्रसार, कायद्याविशीं आदर आनी कायद्याचे अंमलबजावणेंत आनी प्रशासनांत न्याय ह्यो तीन गजाली आसल्यार क्रांती टाळूं येता. ताच्या राज्यशास्त्रांत राज्याच्या उद्दिश्टांत सुसंस्कृत नागरीक निर्माण करप ही मुखेल गजाल सांगल्या. कला आनी ज्ञान हांचेविशीं प्रेम आशिल्लो श्रेश्ठ वर्ग निर्माण करप हें राज्याचें ध्येय आसा. प्लेटोच्या मतान न्याय आनी ॲरिस्टॉटलच्या मतान कल्याण हीं राज्याचीं निमणीं उद्दिश्टां.

रोमन तत्त्वगिन्यानी सिसेरो (इ.स.प. १०६ - ४३) हाणें रिपब्लिक आनी लॉ ह्या नांवाचीं पुस्तकांय बरयलीं. ताच्या मतान स्थानिक प्रदेशांक स्वयंशासन आनी स्वातंत्र्य दिल्ल्यानच व्यापक आनी व्हड साम्राज्याची एकात्मता सिध्द जाता. तशेंच सगळें विश्वच राज्य आसून देव आनी मनीस ताचे नागरीक आसात. सगळया राश्ट्रांक सदांकाळ लागू पडपी सैमीक प्रमाणभूत असो कायदो आसा. दरएका मनीस मार्गदर्शन मेळ्ळयार सद्‌गुणी जावंक शकता अशें ताचें मत आशिल्लें. राज्याविशीं सांगतना तो कायद्याक म्हत्व दिता. ताच्या मतान मनशाची संपत्ती सारकी आसूंक शकना, गूण सारके नासतात, पूण सगळया नागरिकांचे समान कायदेशीर हक्क आसतात. ताच्या मतान कायदो फक्त अधिकार आनी जबरदस्ती हांचे मर्यादेंत सिध्द जावंक शकना. खरो कायदो सद्‌विवेक बुद्वीनच सिध्द जावंक शकता आनी तो सैमाकडेन सुसंगत आसता. राज्यांचे वेगवेगळे आकृतीबंध तपासतना तो ॲरिस्टॉटलची तत्त्वमिमांसा मान्य करून न्याय हें राज्यसंस्थेचें निमणें उद्दिश्ट मानता.

सेंट ऑगस्टीन (इ. स. ३५४ - ४३०) ह्या रोमी बिशपान सिटी ऑफ गॉड (देवनागरी) हो ग्रंथ बरयलो. हातूंत ताणें जिणेचे दिव्य मार्ग (देवनागरी) आनी पार्थिव मार्ग (ऐहिक नगरी) अशे दोन विभाग वर्णिल्यात. युरोपाच्या मध्ययुगीन राजकीय आनी धर्मीक इतिहासाक म्हत्वाची प्रेरणा ह्या ग्रंथावरवीं मेळ्ळी. सेंट ऑगस्टीनान प्लॅटोचें न्याय हें राजकीय उद्दिश्ट आनी कल्याणमय जीण हे ॲरिस्टॉटलचें राजकीय उद्दिश्ट किरिस्तांव धर्मीय नदरेंतल्यान मांडलां.

नीक्कोलो मॅकिआव्हॅली (१४६९ - १५२९) हाणें प्रबोधन युगांत सत्तेविशींच्या तत्त्वगिन्यानाची मांडणी केल्या. ताचें हें तत्त्वगिन्यान अणभवीक आनी विज्ञानीक आसा. सत्तेविशींचीं उद्दिश्टां साध्य करून दिवपाक वास्तव साधनां कशीं आसतात हाचें स्पश्टीकरण ताणें केलां. दोन राज्यांचेर कशें जैत मेळोवप, तांची बरे तरेन कशी राखण करप आनी ती कित्याक लागून वगडावतात हाचें स्पश्टीकरण ताणें आपल्या प्रिन्स ह्या पुस्तकांत केलां. ताच्या मतान राज्याक धर्माची गरज आसता, पूण धर्मांत सत्य आसा म्हणून न्ही, तर धर्म हो समुदाय, शक्त निर्माण करता आनी मनशांक जोडटा. तशेंच राश्ट्रीय स्वातंत्र्य, सुरक्षितता आनी सुवेवस्थीत संविधान ह्या तीन राजकीय गजालींक तो चड म्हत्व दिता.

टॉमस हॉब्ज (१५८८ - १६७९) हाच्या मतान जंय राज्य ना, सरकार ना, थंय मनशां सैमीक स्थितींत रावतात. हे स्थितींत अन्याय, संघर्श, स्पर्धा हांकां चड प्राधान्य आसता. हें टाळपाखातीर मनीस समाज घडोवंक सोदता. तेखातीर जायतीं मनशां एकठांय येवन मुखेली वेंचून काडटात आनी गरज आशिल्ली सत्ता ताच्या हातांत सोंपयतात. अशेतरेन राज्यांतली जनता सार्वभौम सत्ता कोणायकडेन तरी सोंपोवन ताच्या अधिपत्याखाल राज्यांत अंतर्गत अशी सवस्तकाय राखपाचो करार करता. सार्वभौम सत्तांधीश आपल्या मस्तेपणांत सुलतानशाय हाडपाची शक्यताय हॉब्ज न्हयकारना. पूण सार्वभौम सत्तेच्या अभावी अंर्तगत बेबंदशाय ही सुलतानशायेपरस चड घातक, तशेंच एकाधिकारी सत्तेंत भ्रश्टाचाराचो परिणाम एकापुरतोच शिमीत उरता. तर बहुवांगडी सत्ताधीश मंडळांत भ्रश्टाचारी लोकांचो आंकडो वाडटा.

हॉब्जावरी जॉन लॉक (१६३२ - १७०४) समाजीक करार हें राज्यशासनाचें अधिश्ठान मानता. ताणें राजकीय सत्तेची व्याख्या केली ती अशी - मरणाची शिक्षा धरून आनी ताच्यायपरस कमी खर शिक्षा दिवपामेरेनचे कायदे करपाचो अधिकार म्हळयार राजकीय सत्ता. हे कायदे चडकरून संपत्तीचे वेवस्थेखातीर आनी राखणे खातीर गरजेचे आसतात. स्वराज्याक परकी सत्तेपसून बादा येवची न्हय देखून राखण करपाक आनी केल्ले कायदे अंमलांत हाडपाक समाजाक अधिकार आसतात आनी ते फक्त समाजीक हिता खातीरच आसतात.

फ्रेंच राज्यक्रांतींतलो झां झाक रुसो (१७१२ - ७८) हाणें 'समाजीक करार' ह्या आपल्या पुस्तकांत राज्योपपत्ती सांगल्या. ताच्या समाजीक कराराचे संकल्पनेंत दोन मुलभूत संकल्पना आसात आनी ह्यो आधुनिक राज्यसंस्थेच्यो संकल्पना आसात. (१) जनतेची सार्वभौम सत्ता आनी (२) समुहईहा (जनरल विल) - जनतेची सार्वभौम सत्ता ही जनतेपसून केन्नाच वेगळी जायना आनी नाशय जायना. समाजीक करारान ही जनतेची सार्वभौम सत्ता मान्यता पावता. दुसरी म्हत्वाची संकल्पना समुहईहा. ईहा म्हळयार इत्सा, अपेक्षा, वासना वा आकांक्षा. ह्यो दोन प्रकारच्यो आसतात. (१) ते ते व्यक्तीच्यो स्वार्थाविशींच्यो इत्सा (२) समस्त समाजाचें जातूंत कल्याण साधता अशी इत्सा.

एकोणिसाव्या शतमानाच्या राज्यशास्त्राविशींच्या विचारांत उपयुक्ततावाद हो मुलभूत मानतात. ताचो मुखेल प्रवर्तक जेरेमी बेंथेमी (१७४८ - १८३२) ताच्या मतान सुख-दुखाचो हिशेब करून मनीस बुध्दिवादाच्या आधाराचेर राज्याचे वेव्हार सदा चलोवंक शकतात. आरोग्य, संपत्ती, सत्ता, मैत्री आनी हेर जायतीं इश्ट आनी अनीश्ट

जीवनमुल्यां हांचें मोजमाप मनीस सदांच करता आनी राजकीय वेव्हार चालू दवरतात. अशी मुलभूत भूमिका मांडून उक्त्या वेपाऱ्याचें आनी शिक्षीत मतदारवर्गान निर्माण केल्लें शासन ह्यो दोन गजाली समाज धारणेक गरजेच्यो आसतात, हें ताणें सिध्द केलें. जॉन स्टूअर्ट मिल (१८०६ - १८७३) हाच्या मतान संस्कृती समृध्द जाता ती सर्जनशील अल्पसंख्य प्रज्ञावंतावरवींच आनी ताचे मुक्त विचारसरणेक लागून लोकशायेंत असोच पक्षावंत वर्ग आसचो पडटा. ताणें पयलेखेपे बायलमुक्तीचो सिध्दांत व्यवस्थीत रितीन मांडलो. उपरांतच्या काळांत राष्ट्रवादाचो जल्म जालो. हातूंत जोसेफ मॅझिनी ह्या इटालियन देशभक्तान सगळीं राष्ट्रां स्वतंत्र जावंक जाय, ह्या सिध्दांताक तेंको दिलो. सगळया नागरिकांक मतदानाचो हक्क जिच्यांत दिला अशे तरेचे राज्यसत्तेचो ताणें पुरस्कार केलो.

आदर्श अराजकतावाद आनी समाजसत्तावाद ह्या दोन ध्येयवादांच्या संयुक्त नदरेंतल्यान सतराव्या शतमानापासून ते तिसाव्या शतमानामेरेन युरोपियन आनी संवसारीक राजकीय विचारसरणीचेर मुळावे परिणाम जाल्ले दिसतात. हाचोच प्रभाव विल्यम गोडविन हाच्या पोलिटिकल जस्टिस (१७९३) आनी रॉबर्ट ओएन हाच्या न्यू व्यूव ऑफ सोसायटी (१८१३) ह्या ग्रंथांत दिसतात. गोडविनच्या मतान मनीस स्वभावांतूच विवेकशिल आसता, सत्तेअधीन जाल्ल्या राज्यकर्त्यांनी झूजसंख्या निर्माण केली आनी जुलमी राजवेवस्था स्थापन केली. शिक्षण आनी स्वातंत्र्याचे हक्क हाचेर भर दिवन राज्यसंख्येंतल्यान सत्तेअधीन जाल्ल्या लोकांचो प्रभाव उणो करूंक जाय.

रोबर्ट ओएन (१७७१ - १८५७) ह्या इंग्लीश तत्त्वगिन्यानान समाजवादी सहकारी अर्थशास्त्र आनी सहकारी समाजसंख्या हाचो पुरस्कार केलो.प्टोअर झोझेफ प्रुदाँ (१८०९ - १८६५) हाणें समाजीक वर्गभेद, भांडवलशाय अर्थवेवस्था, नोकरशायी शासन वेवस्था हांकांलागून एकामेकांकडेन संघर्श करपी सार्वभौम राजकीय सत्ता जल्माक येता. हे भेद वतकच एकामेकांमदली सर्त पयस जातली आनी तिची सुवात सहकार्याची भावना घेतली. तेन्ना आपशींच शासन वेवस्थेचें म्हत्व उणें जातलें. एकोणिसाव्या शतमानांत जी. डब्ल्यू. एफ. हेगेल ह्या युरोपियन तत्त्ववेत्यान विश्वाविशींच्या गिन्यानाचें अधिशठान घेवन राज्याविशींचे आपले विचार मांडल्यात.

ह्याच शतमानांतलो समाजवादी क्रांतीकारक कार्ल मार्क्स (१८१८ - १८८३). नागोवपी वयलो वर्ग आनी नागोवन घेवपी सकयलो वर्ग ह्या दोन वर्गांचे अर्थीक तफावतीक लागून ह्या दोगांमदल्या संघर्शाची गरज म्हणून बळिश्ट वर्गान आपली सत्ता दुबळया वर्गाचेर प्रस्थापीत केली. हातुंतल्यान सरदार वर्गाची सत्ता, सरदार वर्गाचेर नियंत्रण करपी साम्राज्य संस्था, कामगार वर्गाचेर नियंत्रण करपी भांडवलदाराची सत्ता अस्तित्वांत आयली. खाजगी संपत्त हें सगळया संघर्शाचें मूळ आशिल्ल्यान ती कामगार वर्गाच्या हुकूमशायेन नश्ट जातकच राज्यसंस्था नश्ट जातली आनी आदर्श साम्यवादी समाजवेवस्था ताची सुवात घेतली, असो कार्ल माक्साचो भविश्यवाद आसलो. पूण हो साम्यवादी भविश्यवाद प्रत्यक्षांत खरो जालो ना, तरी कार्ल मार्क्साक अपेक्षित आशिल्ली भांडवलशायेकडल्यान जावपी कामगारांची पिळवणूक प्रगत राश्ट्रांत उरली ना. भांडवलशाय राश्ट्रांत लेगीत लोकशायेच्या प्रभावाखाला कामगारवर्गाक एक खाशेली सुवात मेळून कामगार वर्गाचें हीत साधलां. लोक कल्याणकारी लोकशायप्रणीत शासनवेवस्था सगळयाच घटकांक फायदेशीर जावं येता हाची शाश्वती मेळूंक लागली.

**चीनाच्या राज्यशास्त्राचो इतिहासः** नामनेचो राजकीय विचारवंत लियांग चीयाओ (इ.स. १८७३- १९२९) हाणें चीनाच्या प्राचीन राजकीय विचारांचे 'ताओ, कन्फ्यूशियन, मोव्शे आनी नियमवादी अशे चार प्रवाह सांगल्यात. हातुंतल्या कन्फ्यूशियन आनी ताओ विचारांचो चीनचे संस्कृतीचेर सुमार अडेज वर्सां परसय चड काळ प्रभाव आशिल्लो. कन्फूशियस (इ.स.आ. ५५१ - ४७९). त्या काळांत सगळया चीन भर यादवी झुजां चालू आशिल्ल्यान लोकाचें नितीधैर्य सोंपिल्लें. अशा वेळार कन्फ्यूशियसान इतिहास, काव्य, आनी संगीत हे विशय घेवन चीनी संस्कृतीक नवें वळण दिलें. इतिहासाक लागून मनशाच्या सभावाक आकार येता, काव्याक लागून मनाचो विकास जाता आनी संगीताक लागून व्यक्तिमत्वाक पुर्णताय येता अशें ताचें मत आशिल्लें.

समाजीक जिणेंत शिस्त कशी लागतली हे विशीं ताका हुस्को आशिल्लो. मरण म्हळयार कितें आनी मरणा उपरांतची जीण कशी आसतली हे विशीं हुस्को करीनासतना, संवसारांतल्या लोकांच्यो गरजो कशो पुराय करूंक मेळटल्यो हे विशीं मनशाक चिंता आसूंक जाय अशें ताका दिसतालें. समाजीक नीती कशी वाडटली हें विशीं सांगतना कन्फ्यूशियस म्हण्टा, राज्यांतले सगळे लोक वर्तनान बरे जावचे ही इत्सा आशिल्लो राजा सुरवेक आपल्या राज्यांत सुस्थिती उरची म्हूण जतनाय घेता. राज्यांत सुस्थिती दवरूंक आपल्या लोकांचें वर्तन शुध्द जावचें हाचेर तो लक्ष दवरता. ते खातीर तो सुरवेक स्वता सदाचारी वर्तन आपणायता. सदाचारी वर्तनाखातीर विचारशुध्दीची गरज आशिल्ल्यान आनी ती गरज गिन्यानावरवी मेळटा आशिल्ल्यान तो ते नदरेन यत्न करता. कन्फ्यूशियसच्या राजकीय तत्त्वगिन्यानाचो उद्देश संवसारीक साम्राज्य आसलो तरी ते विशीं उलयतना ताका कारभारापरस सुवेवस्थेचो चड हुस्को दिसता. तेखातीर राज्याचे कायदे समाजांत सगळयांक सारके लावंक जाय अशे विचार तो मांडटा. सगळे मनीसजातीं मदीं एकामेकाविशीं एकचाराची भावना आसूंक जाय, अशी ताची समाजीक नितीविशींची म्हत्वाची शिकवण आशिल्ली. दर एका मनशाक हेरांविशीं भावपण वाडोवपाक जाय असो ताच्या राजकीय विचारांचो आदर्श आशिल्लो आनी हाकाच तो 'म्हान

राश्ट्रकूल' म्हण्टालो. स्वंयचेंय सरकार तिगून उरपाखातीर तीन गजालींची चड गरज आसता. धनधान्य समृध्दी, लश्करी सत्ता आनी लोकांचो आपल्या विचारांचेर आशिल्लो विश्वास, तशेंच देशाक अर्थीक नदरेन स्वावलंबी करूंक जाय. सगळेकडे शिक्षणाचो चडांत चड प्रसार करूंक जाय ताका लागून वर्गभेदय ना जातले. अशे तरेचे जायते विचार कन्फ्यूशियसान लोकांमुखार त्या काळांत दवरिल्ले. आपल्या घरांतल्यानच सुरवात करून मानवी समाजाविशीं भावकी निर्माण करपाचो यत्न करप हेंच ताच्या तत्त्वगिन्यानाचें खाशेलेंपण आशिल्लें.

उपरांतच्या हैन वंशाच्या राजान कन्फ्यूशियसच्या तत्त्वगिन्यानाक मानाची सुवात दिली. नवे शिक्षण पद्दतींत ताच्या तत्त्वगिन्यानाचो अभ्यास एक गरजेचो विशय म्हूण दवरपांत आयलो.

कन्फ्यूशियसान मनशाचें शील आनी सवयो बऱ्यो नासत जाल्यार समाजाक कीड लागता अशें मत उक्तायल्लें, तशेंच ताणें बऱ्या सवयींचेर आनी बऱ्या वर्तनाचेर भर दिल्लो. मेन्शियसच्या मतान मुळचो मनीस स्वभाव बरोच आसता. सगळयाच मनशांत दयेची भावना जागृत आसता. मनशाच्या मनांतले हे सद्‌भावनेचो प्रसार जालो जाल्यार पुराय संवसारांत शांतता नंदप कठीण ना. मेन्शियसाच्या मतान राश्ट्रीय वा व्यक्तीगत पांवड्याचेर सुवार्थाचो विचार येवप म्हळयार पाप. मेन्शियसान शिक्षणाचें म्हत्वय सांगलां आनी सगळेकडे सक्तीच्या शिक्षणाचो पुरस्कार केला. मनशाक फकत सुबत्ता मेळ्ळी आनी शिक्षण ना जाल्यार ताका किंमत आसना. शिक्षणाक लागून एकामेकांमदली भावकी, राज्यनिश्ठा आनी मनशांची एकामेकांवयली निश्ठा घट जातली. असो एकामेकांकडे एकचारान आनी बरेभाशेन रावपी समाज हें राज्याचें उद्दिश्ट आसूंक जाय. ताणें फुडें हेय स्पश्ट केलां, स्वंयच्याय सरकाराचें उद्दिश्ट हें लोकांचें बरेंपण हेंच आसूंक जाय. लोकांचो विचार पयलीं, मागीर राज्याचो आनी उपरांत राजाचो असो क्रमय ताणें सांगला.

सुन्झु (इ.स.आ. ३९८ - २३०) हो चीनी विचारवंत मेन्शियसाच्याच काळांतलो. ताच्या मतान मनशामदीं आशिल्ल्या मुळच्या स्वार्थी आनी वायट प्रवृत्तींचेर मात करपाखातीर सगळया संवसारांत एकचार पातळावंक जाय. आमचे भोंवतणी आशिल्ले सचेतन आनी अचेत सृश्टी परस मनीस श्रेश्ठ आसा, कारण ताचेकडे गिन्यान आनी न्याय आसा. समाजांत एकठांय रावपाची तांक आसा. ताणें आपल्या आनी हेरांच्या हक्कांची जाणविकाय दवरली जाल्यार हें सहज शक्य जाता. ते खातीर न्यायाची जाण आसली, म्हण्टकच खरी एकवट निर्माण जाता आनी तांतुतल्यानच एकचार सादता. समाजीक जिणेच्या यशा खातीर ताणें श्रमविभागणेचीय गरज उक्तायल्या.

ताओत्झे (इ.स. ३६५ - ४२७) च्या मतान मनशाक गिन्यान प्राप्त जालें म्हण्टकच तो नेम आनी कायद्याचे भाशेंत उलोवंक लागता. ताच्या मतान हांगाच खरो धोको आसा. जें सरकार जनतेचे जिणेंत उण्यांत उणो हस्तक्षेप करता तें सगळयांत बरें सरकार. ताच्या मतान सैमांत सगळें थंडसाणेन चलिल्लें आसा. मनशान तेचप्रमाण चलूंक जाय. सैमाच्या नेमाप्रमाण कागाळी करिनासतना वागपांत मनशाचें कल्याण आसा. पूण ताओची ही विचारसरणी चिनी लोकांमदीं तितलीशी तिगली ना, पूण तातूंत सांगिल्ले सर्वसंगपरित्यागाचे विचार चीनांत प्रसुत जाले. ताओ विचारसणेंतल्यान व्यक्तिवाद, नास्तिकवाद अराज्यवाद आनी सैमीकवाद अशे चार पंथ निर्माण जाले.

उपरांतच्या काळांत चीन राजकीय विचारसरणेंत नियमवाद बरोच मुखार आयलो आनी ताची सुरवात क्वान चुँग (इ.स.प. ७०८ - ७४३) आनी झेनचँन (इ.स.प ५४३ - ५२२) हांच्या काळांत जाल्ली.

ह्या नियमवाद्याच्या मतान शासनसंस्था अस्तित्वांत येवचे आदीं मनशामनशांमदीं जनावरांची वागणूक आशिल्ली. बळिश्ट लोक समाजांतल्या गरीब लोकांचो छळ करताले. उपरांत समाजांतल्या विचारवंतांनी एकठांय येवन आपल्या संयुक्त यत्नांनी तांचो छळ बंद केलो.कायदे करपांत आयले आनी तांकां फाव तो पाळो दिता काय ना हें पळोवपाक खास नोकर वर्ग दवरपांत आयलो. उपरांत तांच्या नियंत्रणाखातीर एक केंद्रिय नियंत्रक सत्ता निर्माण करपांत आयली आनी अशे तरेन राजा ही संस्था अस्तित्वांत आयली.

सुरवेच्या काळांत रगताचें नातें आशिल्ल्या पंगडा पुरती सुवेवस्था मर्यादीत आशिल्ली. समाजाचो जसो जसो विकास जायत गेलो तसो राज्यकारभार घुस्पागोंधळाचो जालो आनी अशा समाजाचें फुडारपण करपाखातीर कांय खास गुणांची गरज भासूंक लागली. ताकालागून फुडारपणाचे खास गूण आशिल्ल्या मनशाकडेनच सरकाराचीं सुत्रां गेलीं. समाज जसो जसो प्रगत जायत गेलो तशें तशें शासनसंस्थेचे अधिकारय कायद्यान थरोवपांत आयले.

- **प्रदिप म्हस्के**
- **कों. वि. सं. मं.**

**राज्याभिशेक :** राजघराण्यांतल्या राज्याच्या वारसाक राजपदाचो अधिकार प्राप्त जावपाक गरजेचो असो एक धर्मीक विधी. अभिशेक ह्या संस्कृत उतराचो 'शिंपडप' असो अर्थ जाता. राजाक राजपदाचो अधिकार दिवपी विधींमदीं ताच्या माथ्यार पवित्र उदकाचो शिंताडो घालप हो एक म्हत्वाचो विधी आसता. संवसारांतल्या विंगड विंगड समाजांत खूब पुर्विल्ल्या काळारसावन ही चाल सुरू आसा.

राज्याभिशेकाची प्रथा भारतांत वेद काळांत सुरू जाली, अशें ऋग्वेदांतल्या कांय ऋचांवयल्यान समजता. वेदकाळांत सादो आशिल्लो हो राज्याभिशेकाचो विधी 'ब्राह्मण' काळांत बरोच गुंतागुंतीचो जालो. ऐतरेय ब्राह्मणाच्या मतान देवान जैत हातासपाखातीर इंद्राची राजा म्हणून वेंचणूक केली आनी ताका राज्याभिशेक केलो. हाकाच

'ऐंद्र महाभिशेक' अशें म्हण्टात. उपरांतच्या काळांत ह्या महाभिशेकाकच लेखून क्षत्रियांचे राज्याभिशेकाचो विधी थरयले.

सुरवेच्या काळांत अराजकाची स्थिती आसतना लोकांचे राखणेखातीर देवान राजाची निर्मणी केली हो समज प्रचलीत आशिल्लो. राजाच्या आंगांत हें ईश्वरी बळगें राज्याभिशेका उपरांतूच निर्माण जातां. राज्याभिशेका पयलीं राजा हेरांसारकोच सर्वसादारण मनीस आसता. प्रजा अशा सर्वसामान्य मनशाच्या हुकमाचें पालन करपाची शक्यताय नासता, म्हणून राजा सगळया सामान्यांपरस वेगळो आनी व्हड हें सिध्द करपाखातीर आनी ताच्या अधिकाराक पावित्र्य आनी मान्यताय मेळोवन दिवपाखातीर राज्याभिशेकाचो विधी गरजेचो मानताले.

अभिशेकाच्या विधीखातीर वेगवेगळया रुखांचीं फळां, धान्यां, धंय, दूद, सारकिलीं द्रव्यां आनी उदक हांची गरज आसता. अभिशेका वेळार राजाक प्रजेविशींच्या कर्तव्याची जाणविकाय करून दिताले, तशेंच ताका इंद्रा असलें वैभव मेळचें अशी शुभेत्साय दिताले. अभिशेकाउपरांत रेशमी वस्त्रां कुडीचेर घालून ताच्या माथ्याचेर मुकूट घालताले. ते उपरांत आसनावयल्यान सकयल देंवून तो गादयेर चडटालो. त्या वेळार ताचो पुरयत एका दंडान ताचे बरगडेक हात लायतालो. जे दंडशक्तीचेर राजाचे सगळे अधिकार आदारून आसतात, ती दंडशक्ती ताका मेळ्ळी, अशें हे कृतींतल्यान सुचयताले. अभिशेक जातकच राजा रश्मी वस्त्रां घालता आनी मस्तकाचेर मुकूट घालता. उपरांत तो आपल्या कर्तव्याची घोशणा करता, 'जर हावें तुमचो द्रोह केलो जाल्यांर म्हजें सगळें राज्य नाश जांव' हे प्रतिज्ञेउपरांत राजपुरयत ताका सांगता -

इयं ते राड् यन्तासि यमनो ध्रुवोडसि धरुणः।
कृष्यै त्वा क्षेमाय त्वा रय्यै त्वा पोषाय त्वा । (वाज. सं. ९.२२)

**अर्थ :** हें राज्य तुजें आसा. ताचो तूं संचालक आनी नियंतो आसा. तूं अचल आसा आनी त्या राज्याचो पोशक आसा. शेती प्रजा - कल्याण, राश्ट्र समृध्दी आनी लोक पोशण हाचे खातीर तुका हें राज्य दिल्लें आसा.

मागीर राजा भूंयवंदन करतालो आनी पुरयत ताच्या हातांत तरसाद दितालो. मागीर लोक राजाक भेटो दिताले आनी राजाय तांचे योग्यतायेप्रमाण वस्त्रभरणां दिवन तांचोय परत सत्कार करतालो. राजाच्या अभिशेकाप्रमाण युवराज आनी सेनापती हांचोय एक प्रकारचो अभिशेक करतात. महाभारतांत युधिष्ठिराच्या युवराज्यभिशेकाचें, अर्धराज्याभिशेकाचें, राजसूयभिशेकाचें, पट्टाभिशेकाचें आनी अश्वमेधाभिशेकाचें वर्णन केल्लें आसा. रामायणांत रामचंद्राच्या अभिशेकाचें वर्णन केल्लें आसा. अग्निपुराण, वीरमित्रोदय, नीतिमयूख, राजधर्म कौस्तुभ, विष्णुधर्मोत्तर पुराण आदी ग्रंथांत राज्याभिशेकाचें पुराय वर्णन केल्लें आसा. वर्धमानसूरी नांवाच्या पंडितान इ.स. च्या १५ व्या शतमानांत रचिल्ल्या आचार दिनकर नांवाच्या ग्रंथांत, नृपत्व, सामंतत्व, मंडलेश्वरत्व, देशमंडलाधिपत्य, ग्रामाधिपत्य, मंत्रित्त्व, सेनापतित्त्व आनी कर्याधिकारित्त्व अशे आठ तरेचे अभिशेक सांगल्यात. नीलकंठ भट्टान (इ.स.चें १७ वें शतमान) नीतिमयुख नांवाचो एक ग्रंथ रचिल्लो आसा. तातूंत राज्याभिशेकाचो पुराय विधी वर्णन केल्लो आसा.

युरोपांतल्या ख्रिस्ता पयलींच्या समाजांत राजाक जमातीचे लोक खांदावयल्यान मिरयत हाडटाले आनी जमिल्ल्या लोकांक तीन खेपे प्रदक्षिणां घालताले. तेउपरांत राजाक अधिकाराचो भालो आदी प्रतिकां दिताले. युरोपाचें क्रिस्तांवीकरण जाले उपरांत ह्या धर्मीक विधीचें रूप बदललें आनी तातूंत बायबलांतल्या पोरन्या कराराचेर आदारिल्ल्या विधींचो आस्पाव जालो. ह्या काळांत राज्याभिशेकाच्यावेळार राजाचे कुडीक तेल लावपाच्या (अभ्यंजन) विधीक चड म्हत्व आयिल्लें.

इंग्लंडांत १३०७ त दुसऱ्या एडवर्डाचो राज्याभिशेक जालो. तेन्नाचो धर्मीक विधी फुडाराक सोळाव्या शेंकड्यामेरेन चालू उरलो. १६०३ त पयल्या जेम्साचो राज्याभिशेक जालो. त्या वेळार धर्मीक विधींमदीं पयलेच खेपे इंग्लीश भाशेचो उपेग केलो. १३०७त ज्या विधींचो उपेग केल्लो तेच विधी कांय किरकोळ बदलांसकट २० व्या शेंकड्यामेरेन चालू आशिल्ल्याचें दिसता. युरोपांत इंग्लंडाप्रमाणेच स्विडन, नॉर्वे आनी हॉलंडांतूय अजुनूय राज्याभिशेकाचे सुवाळे मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**राझू :** दक्षिण भारतांतली एक तेलुगू जात. ह्या लोकांक राजू अशेंय म्हण्टात. कडप्पा आनी उत्तर अर्काट ह्या म्हालांनी हांची चड वसती आसा. विजयनगरच्या सैन्यांवांगडा ते ह्या वाठारांत आयले आनी हांगाच स्थायीक जाले. आदल्या काळांत हे लोक लश्करांत काम करताले. ते स्वताक क्षत्रिय म्हण्टात.

उत्तर अर्काटांतले राझू लोक शेती करतात. तांचेमदीं बरेचशे राझू वैश्णव आसात आनी कांय शैव आसात.

विशाखापट्टणम् जिल्ह्यांतल्या राझूंत कोंड राझू (दोंगरार रावपी) आनी भूराझू (जमनीर रावपी) अशे दोन भेद आसात.

गोदावरी जिल्ह्यांतले राझू हे आपल्याक सूर्यवंशी, चंद्रवंशी आनी मच्छीवंशी मानतात आनी आपलो संबंद अनुक्रमान रामचंद्र, पांडव आनी हनुमान हांचेकडेन जोडटात. हांगाचे चडशे लोक शेती करतात. जमीनदार राझूची काली ही कुलदेवता. कांय राझू लक्ष्मीक भजतात.

तिनेवेल्ली जिल्ह्यांतल्या राजापालैयम ह्या गांवांत आनी ताचे लागसार जायते राझू लोक रावतात. विजयनगर राजाच्या धाकल्या भावा वांगडा, चार-पांच शतमानांआदीं आपूण हांगा आयले, अशें ते सांगतात. तांचेमदीं धनंजय, काश्यप, कौंडिण्य आनी वसिश्ठ हीं चार

गोत्रां आसून तातूंत परत पोटभेद आसात. ते तेंगलई वैष्णवपंथी आसुनूय अय्यनाराक भजतात.

साकरपुडो चलयेगेर करतात. माटवांत केळीं, नाल्ल, विड्याचीं पानां, सुपाऱ्यो, हळदीकुटां आनी फुलां घालून एक तबक दवरतात. उपरांत ब्राह्मण - सवायशीण बायल पंचवीस रुपया आनी रवण हाडून व्हंकलेची हौंट भरता, तिच्या आंगाक हळद, चंदन लायता.

लग्नादिसा व्हंकलेकडले लोक केळीं, नाल्ल, खावचीं पानां - सुपाऱ्यो आनी पागोटें (बाशींग) घेवन वाजत-गाजत न्हवऱ्यागेर वतात. उपरांत न्हवऱ्याच्या माथ्यार दूद शिंपडावन ताका न्हाणयतात. घरांत परत येतकच माटवांत दूदखांब पुरतात आनी ताका आंब्याचे ताळे बांदतात. त्या खांब्याचेर एक आडवो खांबो दवरून ताका एका लुगटांत नाल्ल, सुपारी, हळदीकुटां गुठलावन बांदतात. उपरांत न्हवरो आनी ताचे हेर लोक व्हंकलेगेर वचून थंय दूदखांब पुरपाचो विधी करतात आनी घरा येतात. उपरांत म्हालो येवन न्हवऱ्याचे केंस कापता आनी मागीर ब्राह्मण पुरयत ताचें जातकर्म, नामकरण, चौल, मूज, संस्कार करता. सांजवेळचो न्हवरो पालखेंत बसून व्हंकलेगेर वता आनी सव्यार वचून बसता. उपरांत व्हंकलेचो भाव व्हंकलेक ताचे कुशीक हाडून बसयता. व्हंकलेन न्हवऱ्याक पळोवंचें न्हय देखून एक भाव तिचेच हात तिच्या दोळ्यांचेर धरता. लग्नाची कुरू म्हणून पुरयत न्हवऱ्याच्या गळ्यांत दुसरें जानवें घालता. उपरांत न्हवऱ्या-व्हंकलेचेर अक्षता उडयतात. व्हंकलेच्या गळ्यांत न्हवरो ताळी बांदता. उपरांत व्हंकलेच्या दोळ्यांवयले हात कुशीन काडटकच दोगांय सव्या भोंवतर्णी प्रदक्षणां काडटात. मागीर दोगांय एके कुडींत रांकेंत मांडून दवरिल्ल्या पन्नास रंगयल्ल्या घटांची पुजा करतात. उपरांत जमिल्ल्या लोकांक पान-सुपारी वांट्टात. तिसऱ्या दिसा पांच घटांची पुजा करतकच व्हंकलेच्या गळ्यांत न्हवरो काळो पोत बांदता. लग्न चालू आसतना बायलांक लग्नां माटवांत बसपाक बंदी आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**राट :** आयदनांची माळ (माती, धातू, प्लास्टीक) बसयल्लें लांकडी



वा लोखणी चक्र, मनीस वा जनावराच्या (बैल, रेडे, ऊंट, घोडे) आदारान घुवंडावन बांयतलें उदक उसपुपाचें एक प्राचीन साधन. लोखणी दांतांच्या आदारान उण्या श्रमान चाकां घुवंडावप ह्या शास्त्रीय तत्त्वाचेर आदारीत ह्या साधनाची यंत्रणा निर्माण जाल्ली आसा. व्हिट्रेवियस ह्या प्राचीन ग्रीक अभियंत्यान (इ.स.चें पयलें शतक) नोरिया नांवाचें उदक उसपुपाचें साधन निर्माण केल्लें. तें राटाचें, सगळ्यांत आदलें रूप आसा. न्हंयेच्या उदकाच्या प्रवाहाच्या वेगान तें राट चलचें अशें अपेक्षीत आसलें तरी कांयकडेन त्या वेळारय मनशाच्या आदारान चलोवप जातालें.

मनीस वा जनावरांच्या आदारान लोखणी दांतांचे तंत्रविद्येचेर आदारीत राटाची यंत्रणा सुरू केली (जागच्या जाग्यार घुवंडायली) म्हण्टकच ही यंत्रणा आनी आयदनाचें चाक हांचे मदीं आशिल्ली दांडी आयदनाच्या चाकाक घुंवपाक चालना दिता. चाक घुंवलें म्हण्टकच, चाकार बसयल्लीं आयदनां आपशींच बांयचें उदक भरून वयर सरतात आनी बांयचे देर पावतकच आपसुकीच थंय आशिल्ले टाकयेंत रिती जाता. चाक गतीमान आशिल्ल्यान रिती जाल्लीं आयदनां परतून एक घेवन वयर सरता आनी टाकयेंत परतून रिती जाता. यंत्रणा चालू आसा म्हणसर ही प्रक्रिया सतत चालू उरता.

आधुनिक काळांत उदक उसपुपाचे विजेर चलपी आधुनिक तंत्रांनी युक्त अशे पंप उपलब्ध आशिल्ल्यान अशा पंपाचो आता सर्रासपणान वापर जाता. तरी जंय वीज पावंक ना अशे सुवातीचेर राटाचो आजय वापर जाल्लो दिश्टी पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : लाठ

**राठोड राजवंश :** अस्तंत राजस्थानांत राज्य करपी एक वंश. इ.स. ११९४ त कनौजाचो राजा जयचंद्र हाचो अस्त जाले उपरांत मुसलमानी घुरयांक लागून बदार्यूच्या राष्ट्रकूट (राठोड) घराण्यांतले कांय लोक पळून वचून राजस्थानांत स्थायीक जाले. तांचेमदल्या शियजी वा शिवजी नांवाच्या दादल्यान मेर आनी मीना नांवाच्या आदिवासी जमातींचेर हार घालून तांच्या प्रदेशाचेर आपली सत्ता स्थापली. शिवजी हो राठोड वंशाचो मूळ पुरूस आनी स्वतंत्र राज्याचो संस्थापक अशें मानतात. इ.स. १२०० ते १४०० ह्या दोन शेंकड्यांच्या काळांत अश्वत्थामा, डूहड, रायपाल, कन्हल, जल्हण, चाडो, थीडो, सिल्को, बीरमदेव आनी चोंडा ह्या राठोड राजांनी ल्हान-व्हड संस्थानिकांक जिखून त्या राज्याचो विस्तार केलो.

चोंडा उपरांत ताचो पूत रणमल्लान मेवाडच्या आदारान मंडोराचें राज्य घेतलें. उपरांत ताचो पूत जोधा हाणें इ.स. १४५९ वर्सा जोधपूर नगराची स्थापना केली. जोधाचो पूत बि.का. हाणें अस्तंतेकडच्या रेंवटांत स्वतंत्र राज्याची स्थापना केली. तेंच सद्याचें बिकानेर. जोधाचो दुसरो पूत सूरजमल आनी ताचे उपरांत ताचो नातू गंगा आनी गंगाचो नातू रायमल्ल हांणी थंय राज्य केलें. तांचो वंश सोंपले

उपरांत इ.स. १५३२त मालदेव गादयेर बसलो. ताणें आपल्या राज्यांतल्या सरदारांक संघटीत करून राठोडांचें बळगें वाडयलें आनी बिकानेर, नागौर आनी अजमेर हीं राज्यां जिखून आपल्या राज्याक जोडलीं. आंबेर आनी जैसलमीर ह्या राज्यांचेरूय ताणें धुरी घाली. राज्याचे राखणेखातीर ताणें जायते किल्ले बांदले. राजवेवस्थेचे नदरेन ताणें बऱ्योच सुदारणा घडोवन हाडल्यो.

इ.स. १५४४ वर्सा शेरशहा हाणें मारवाडाचेर धुरी घाली. तेन्ना मालदेव जोधपूराक गेलो. पूण शेरशहा थंय चड तेंप रावलोना. उपरांत मालदेवान थंय जायतीं वर्सां राज्य केलें. इ.स. १५६२ वर्सा अकबर बादशाहान मारवाडाचेर मोगल सैन्य धाडून मेडताचो किल्लो जिखलो. मालदेवाच्या मरणाउपरांत ताचो पूत चंद्रसेन गादयेर आयलो. चंद्रसेन इ.स. १५८१त सोंपले उपरांत ताचो व्हडलो भाव उदयसिंह गादयेर आयलो. ताणें मोगलांची सार्वभौम सत्ता मान्य केली आनी आपली धूव जगत गोसाई ऊर्फ जोधाबाई ही राजपूत सलिमाक दिली. तेन्ना अकबरान ताचे सगळे प्रदेश ताका दिले. उदयसिंहान १५९५ मेरेन मोगलांचो सामंत म्हणून राज्याचो उपभोग घेतलो. ताचे उपरांत ताचो पूत (सूरसिंह) मारवाडचो राजा जालो. अकबराच्या साम्राज्यविस्तारांत ताणें मोलादीक कामगिरी केल्ल्यान ताका अकबरान सवाई राजा ही पदवी दिली. ताणें १६१९ मेरेन राज्य केलें. ताच्या उपरांत ताच्या पुतान १६३८ मेरेन मोगल साम्राजाची सेवा केली. ताचे उपरांत ताचो पूत जसवंतसिंह इ.स. १६३८ वर्सा मारवाडाचो राजा जालो. मारवाडाच्या इतिहासांत सगळयांत पयलीं म्हाराजा ही पदवी घेतली. तशेंच, औरंगजेबाच्या साम्राज्यांत सुभेदारीय केली. १६७८ वर्सा ताका औरंगजेबान वीख दिवन जिवो मारलो. जसवंत सिंहाचो पूत अजितसिंह हाका औरंगजेबान बंदी करून मारवाडाचें राज्य मोगल साम्राज्यांत आस्पावन घेतलें. पूण राठोड वीर दुर्गादास हाणें ताका व्हड धिरान सोडोवन घेतलो आनी ताणें मेवाडचो राजा राजसिंह हाचो आलाशिरो घेतलो. ताणें सुमार ३० वर्सां औरंगजेबा कडे संग्राम केलो. निमाणें औरंगजेबाच्या मरणाउपरांत इ.स. १७०९ वर्सा दुर्गादासान अजितसिंहाक मारवाडाचो राजा केलो आनी आपल्या पराक्रमान बादशाहाचीं सुत्रां खूब फावटीं आपल्या हातांत घेतलीं. इ.स. १७१९ वर्सा अजितसिंहान बादशाहाक कादेयेंत घालो. १७२० वर्सा सय्यद भावांची सत्ता नश्ट जाले उपरांत अजितसिंहान अजमेराक स्वतंत्र शिंवासनाची स्थापणूक करून चक्रवर्ती राजाचीं चिन्नां धारण केलीं.

इ.स. १७२४ त अजितसिंहाक मरण आयले उपरांत ताचो पूत अभयसिंहान इ.स. १७४९ त राज्य केलें. ताणें बादशाहाचे वतीन अहमदाबाद जिखलें आनी सर बुलंदखानाचें बंड मोडून काडलें. मुखार, ताणें बिकानेराचेर धुरी घालून जयपूर, मारवाड आनी मेवाड ह्या तीन राज्यांनी स्नेहसंधी घडोवन इ.स. १७४९ त ताका मरण आयलें.

अभयसिंहा उपरांत ताचो पूत रामसिंह गादयेर बसलो. तेन्ना ताचो बापोलयो नागौरचो जहागीरदार भक्तसिंह ताका राजतिलक लावपाक आयलोना. तो गादयेचो अपमान समजून रामसिंहान नागौराचेर धुरी घाली. पूण त्या झुजांत भक्तसिंह जैतीवंत जालो आनी ताणें राज्याची स्थिती सुदारली. भक्तसिंहाक मरण आयले उपरांत ताचो पूत गादयेर आयलो आनी ताणें १८ व्या शेंकड्याचे अखेरमेरेन राज्य केलें. तार्ची ताच्या सरदाराकडेन जाल्लीं झुजां, मराठ्यांच्यो धुरयो आनी जबरदस्त खंडणीची वसुली, सिंधी शिपायांनी प्रजेचेर केल्ले अत्याचार आनी विजयसिंहाचें दुराचरण ह्या गजालींनी ताची कीर्त गाजली.

ताणें आपल्या मानसिंह नांवाच्या नातवाक मारवाडचे गादयेचो वारस नेमलो. पूण ताच्या मरणाउपरांत भौमसिंह नांवाच्या पुताचो पूत भिमसिंह हाणें सिंहासन मेळयलें आनी गादयेचे वारसदार आशिल्ल्या आपल्या बापोलयांक आनी भावांक जिवे मारले. मानसिंह, मात पळून गेलो. भीमसिंह मेल्या उपरांत ताच्या सरदारांनी मानसिंहाक आपोवन गादयेर बसयलो. ताची कारकीर्द जुलूम, लूटमार आनी अत्याचार हांणी गाजली. ताचेकडल्यान इंग्लिशांनी मारवाडाचें राज्य इ.स. १८१८ च्या डिसेंबर म्हयन्यांत घेतलें.

- कों. वि. सं. मं.

**राणा प्रताप :** (जल्म : ९ मे १५४०, राजस्थान; मरण : १९ जानेवारी १५९७, मेवाड).

राजस्थानांतलो एक शूर आनी स्वाभिमानी राजा. राजस्थानांतल्या एका नामनेच्या शिसोदिया कुळांत हाचो जल्म जालो. मेवाडाचो राणा उदयसिंह हाचो हो व्हडलो पूत. अकबरान चितोड घेतले उपरांत उदयसिंह वनवासी जालो आनी चार-पांच वर्सांभितर मेलो. मरणापयलीं ताणें आपलो अपुरबायेचो चलो जगमल हाका राज्याधिकार दिले. पूण दरबारांतल्या मातब्बर सरदारांनी आनी प्रतापसिंहाच्या मामान मेवाडाचो खरो युवराज प्रताप हाका सिंहासनाचेर बसयलो. १ मार्च १५७२ त कुंभलगडार प्रतापाचो राज्याभिशेक जालो आनी तो महाराणा जालो. त्या वेळार ताची पिराय बत्तीस वर्सां आशिल्ली.

राणा प्रताप जेन्ना गादयेर आयलो तेन्ना मेवाडची सामकी दुर्दशा जाल्ली. परत परत जावपी मोगली धुरयांक लागून सगळो वाठार वसाड आनी उद्‌ध्वस्त जाल्लो. जायते व्हड व्हड राजे-महाराजे आनी सरदार अकबराक शरण गेल्ले. जायत्या जाणांनी अकबराकडेन बरें नातें जोडपाक ताचेकडेन आनी ताच्या लागिंच्याकडेन घरगुती नातें जोडिल्लें. प्रतापाच्या हातांत फकत अरवली दोंगरांचो १०० मैल लांब आनी ६०-७० मैल रूंद इतलोच भूंयवाठार स्वतंत्र राज्य म्हणून उरिल्लो. चडशा हेर सगळया राजस्थानाचेर मोगलांची सत्ता प्रस्थापीत जाल्ली.

मेवाडाची ही दुर्दशा राणा प्रतापाच्यान पळोवंक जाली ना. सुरवेक ताणें आपल्या देशाकडेन आनी धर्माकडेन दुस्मानकाय करून अकबराची साथ सांगात करपी राजपूत सरदार - संस्थानिकांकडेन कडक असहकार पुकारलो. कोणेंच प्रजाजनान तांकां कसलोच पालव दिवंचो न्हय असो ताणें हुकूम काडलो. मागीर ताणें आपल्या प्रजाजनांक सगळी शेतवड आनी उद्देग धंदे थांबोवन अरवलीच्या दोंगरी वाठारांत स्थायीक जावपाची आज्ञा दिली. तांचेवांगडा तो आपुणूय वनवासी जालो. शस्त्रां आनी स्वाभिमान सोडून बाकी सगळया फोलगी गजालींचो ताणें त्याग केलो. स्वातंत्र्य मेळोवपाखातीर अशेतरेन ताणें अरवलीच्या दोंगरी वाठारांत व्हड तप सुरू केलें. अकबराच्या सैन्याक जेवण-खाण वा गरजेच्यो खंयच्योच गजाली मेळच्यो न्हय हो दोंगरांनी वचून रावपाफाटलो हेतू आशिल्लो.

राजस्थानाचे सगळे राजा आपल्याक शरण आयले पूण अजून मेवाडाचो राणा प्रताप आपल्याक शरण येना हे गजालीची अकबराक खूब खंत जाताली. ताणें आपल्याक शरण आयिल्ल्या राजपूत सरदारांवतीन उलोवणी करून आपल्याक शरण येवपांतूच ताचें हीत आसा म्हणपाचें सांगून पळयलें. पूण राणा प्रतापान ताचेकडेन कसलीच अपमानकारक तडजोड करपाक न्हयकार दिलो. ताका लागून लडायेक पर्याय उरलो ना. प्रतापाचीय ते खातीर तयारी आशिल्लीच. अरवलीच्या दोंगरी जातींची आनी सगळया राजस्थानांतल्या स्वाभिमानी ल्हान-व्हड राजपुतांचीं सुसज्ज सेनापथकां उबारून तो अकबराच्या घुरयांक तोंड दिवपाक तयार रावलो.

ह्याच काळांत मानसिंह कछवाहा हो राणा प्रतापाक भेटपाक आयलो अशें सांगतात. पूण प्रतापान ताच्या बहिश्काराच्या तत्त्वाप्रमाण ताचेवांगडा जेवपाक न्हयकार दिलो. इतलेंच न्हय, तर तो ज्या जाग्यार जेवणाक बशिल्लो ती सुवात गंगाजल आनी गोमूत्र फाफडून पवित्र करून घेतली. हाचे वयल्यान ताचो स्वाभिमान दिसता. जाल्ल्या अपमानाक लागून मानसिंह पेटून उठलो आनी अकबराचें सेनाधिपत्य आपणावन प्रतापाक नमोवपाखातीर ताणें ताचेर घुरी घाली. प्रतापान ताका हळदीघाटाचे खिंडींत गांठलो. ही खींड नाथद्वारापसून ११ मैल नैऋत्येक आसा. गोगुंदा आनी खमणोर हांचेमदीं दोंगरांच्यो ज्यो कठीण रांको पातळिल्ल्यो आसात तातुंतले एके अशीर वाटेक हळदीघाट अशें नांव आसा. तिच्या दोनूय वटांनी राजपूत आनी भिल्ल सैनिकांचीं पथकां दवरून प्रतापान मानसिंहाच्या सैन्याची बरीच धांदल केली. मागीर ताणें आपूण तीन राजपूत सैनिकांवांगडा खिंडीभायल्या मोगल सैन्याचेर हल्लो केलो. राणा प्रतापान अचकीत केल्ल्या ह्या हल्ल्याक लागून मोगल सेनेची चडूच धांदल जाली. मागीर मोगल सैन्याची कापाकापी करीत तो मानसिंहा म्हऱ्यांत पावलो. तेन्नाच ताणें आपलो भालो मानसिंहाचे वटेन मारलो. पूण ताचो नेम चुकलो आनी मानसिंह वाटावलो. इतल्यांत ताचे भोंवतणी मोगल सैन्य जमपाक लागलें. तसो तो फाटीं सरलो आनी हुशारेन भायर पडलो. हातूंत ताचो घोडो चेतक मात सोंपलो.

ताचे उपरांत चार म्हयने मानसिंहाची फौज गोगुंदा गांवांत तळ दिवन रावली. पूण थंय तिची उपासमार जाली. मागीर मानसिंह अजमेराक परत गेलो.

ते उपरांत प्रतापसिंहान गुजरातांतल्या मोगली मुलखाचेर छापे घालपाक सुरवात केली. प्रतापाचें हें नवें धाडस पळोवन अकबर आपूण गोगुंद्याक गेलो आनी थंय तळ ठोकून प्रतापाकडेन मुकाबलो करपाक लागलो. सतत स म्हयने तो प्रतापाकडेन झुजतालो. पूण ताका तोंड दिवप ताका जमलें ना आनी अखेरेक तो परतलो. अकबरान फाट परतीतकूच प्रतापान परत दोंगरातल्यान भायर येवन ताच्या सैन्याचेर छापे घाले आनी आपलीं ठाणीं परत जिखून घेतलीं.

ते उपरांत अकबरान जायते खेपे प्रतापाचेर सैन्य धाडलें. पूण प्रताप हारलो ना. ह्या काळांत ताणें दाखयल्ले ध्येय निश्ठेचेर आनी स्वातंत्र्य मोगाचेर भुलून जायते राजपूत राजा-म्हाराजा ताका येवन मेळ्ळे. ह्या सगळयांच्या पालवान मेवाडाचो किर्तीध्वज झेंडो मळबांत उबयत दवरलो. इ.स. १५८४ मेरेन ताणें चित्तोड आनी मांडलगड सोडून उदयपूरासयत सगळो मेवाड मुक्त केलो. हीं बारा वर्सां राणा प्रतापान सामको वनवास भोगलो. अकबराच्या सैन्यावांगडा झुजता आसतना तो थकलो पूण बागवलो ना. ताचे हे स्वाभिमानी वृत्तीचो हेर राजपूत सरदारांक व्हड अभिमान दिसतालो.

इ.स. १५८४ उपरांत प्रतापाक मातशें सूख लाबलें. सुमार तेरा वर्सां तो समाधानान रावलो. पूण इ.स. १५९७ वर्सा तो आंतकड्यांच्या दुयेंसान दुयेंत पडलो आनी अखेरेक तातुंतूच सोंपलो.

- कों. वि. सं. मं.

**राणे, तानाजी त्र्यंबकराव** : (जल्म : ७ ऑक्टोबर १९२४, कोल्हापूर, महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. ताणें मॅट्रीक मेरेनचें शिक्षण घेतलें. १९४१ सावन तो काँग्रेस सेवा दलाचो स्वयंसेवक आशिल्लो. तो अच्युतराव पटवर्धन, नाना पाटिल, किसन वीर हांच्या फुडारपणाखाल भूंयगत चळवळींनी वांटो घेतालो. जेन्ना ताची वळख सुटकेझुजारी वामन देसाय हाचेकडेन जाली तेन्ना तो गोंयचे सुटके चळवळींत आयलो. ताचे वांगडा तो विर्डी (सांखळी) हे सुवातेर काम करूंक लागलो. तशेंच शिमेवयल्यान हत्यारां हाडपाक ताका मदत करतालो. १९५४ वर्सा तो युनायटेड फ्रण्ट ऑफ गोवन्स हे संघटनेचो वांगडी जालो. २० जुलय १९५४ दिसा दादराक घातकी हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. ह्या हल्ल्यांत आनिसेतु रुझारियु हाच्या तुबकाची गुळी ताच्या उजव्या

हाताक लागली, पूण ताकाय आनिसेताक जिवेशीं मारूंक यश मेळळें.

हातूंत तो गंभीर जखमी जालो. फुडें वामन देसाय हाच्या फुडारपणाखाल ताणें दमणाक दोन फावटीं आनी सत्तरींतल्या रावण पुलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत वांटो घेतिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. तशेंच महाराष्ट्र सरकाराकडल्यान आनी दादरा आनी नगर हवेली शासना कडल्यान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**राणे, दिपाजी :** गोंयचो नामनेचो झुजारी. राणे हे मूळचे राजस्थानांतले. पुर्तुगेजां आदीं तीस - चाळीस वर्सां पयलीं सत्तरींत राण्यांचें आगमन जालें. तांचो मूळ पुरूस सत्रोजी (क्षेत्रोजी) राणे हाणें सत्तरी म्हालाची वसणूक केली. त्या वेळार हो प्रदेश वाडीकर सावंताचे सत्तेखाल आसलो. इ.स. १७४६ वर्सा सावंतांचें आनी पुर्तुगेजांचें झूज जावन पुर्तुगेजांनी सत्तरी म्हाल बळकायलो. तेन्नाच्यान राण्यांक पुर्तुगेजांच्या हातासकयल रावचें पडलें.

पुर्तुगेजांनी जेन्ना जेन्ना ताचेर घुरी घाल्या तेन्ना तेन्ना राण्यांनी तांचे आड ल्हान व्हड १४ बंडां केलीं. तातूंत १८५२ वर्सा दिपाजी राण्यान केल्लें पयलें बंड म्हत्वाचें.

हें बंड साडेतीन वर्सां मेरेन चालू आसलें. त्या वेळार गोंयांत विश्कोंद द व्हील नॉव्ह द औरँ हाची कारकीर्द चालू आसली. ताणें ग्रामसंस्थांचेर आनी धर्मीक कृत्यांचेर निर्बंद घालून सत्तरीच्या लोकांची पिडणूक केली. तांचे हे जबरदस्तीक लागून राण्यांनी पुर्तुगेजांक प्रतिकार करपाचें थरयलें आनी दिपाजीन गांवागांवांनी गुपीत रितीन भोंवन पुर्तुगेजांच्या अन्यायाक तोंड दिवपाक लोकांक उत्तेजन दिलें. २६ जानेवारी १८५२ वर्सा बंडाची पयली धाड नाणसाच्या कोटार घाली आनी पुर्तुगेजांकडल्यान कोट सुवादीन करून घेतलें आनी सत्तरी म्हालाच्या सगळया वटांनी घुसून, पुलीस ठाणीं लासून उडयलीं, सरकारी तिजोऱ्यो लुटल्यो आनी पुर्तुगेजांक धांवडावन राजांनी आपलें राज्य सुरू केलें. उपरांत हें बंड हेमाडबाशें, केपें, काणकोण, भतग्राम, फोंडें ह्या म्हालांनी पातळळें. प्रतिकार मोहीम चलोवपाखातीर राण्यान गिरेस्त लोकांकडल्यान खंडणी वसूल करपाची येवजण आंखली. पूण हे गिरेस्त लोक सरकार धार्जिणे आशिल्ल्यान तांणी बंडवाल्यांआड अपप्रचार सुरू केलो. तेन्ना पुर्तुगेज सरकारान आपल्या सैन्याची पुनर्घटना करून बंडवाल्यांआड कारवाय सुरू केली. पूण बंडवाल्यांनी रानांचो आदार घेवन पुर्तुगेज लश्कराचेर हल्ले केले. तांच्या लश्कराचें नितीधैर्य खचूंक लागिल्ल्यान लश्कर मुखेल्यान बंडवाल्यांच्या साटरेगडाक रेवाडो घालपाचें थरयलें. पूण तांचो यत्न असफळ जाल्ल्यान गोंयचो गोवेर्नादोर जेराल विश्कोंद द व्हील द औरँ हाणें दिपाजी राण्याकडेन पेगाद हाचे मध्यस्थीन उलोवणीं करपाचें थरयलें. तेन्ना दिपाजीन पेगादाचे मध्यस्थेक मान्यताय दिली आनी गोंयच्या गव्हर्नर जनरलाकडेन आपल्या लोकांच्या हिताच्यो मागण्यो केल्यो. त्यो मागण्यो गव्हर्नर जनरलान मान्य करून दिपाजीक वस्त्रां, तरसाद आनी कॅप्टनाचे हुद्दो दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**राणे, मुरलीधर विश्वनाथ :** (जल्म : किन्नर, कारवार). सुटकेझुजारी. ताणें इंटर सायन्सी मेरेनचें शिक्षण घेतिल्लें. तो नॅशनल काँग्रेस गोंय हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १६ सप्टेंबर १९५४ ह्या 'तेरखोल दिसा', तेरेखोलाक आल्वीनु बी. कुएल्ह्यु हाच्या फुडारपणाखाल ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. पुलिसांनी ताका धरलो आनी प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करतकच न्यायालयान ताका आठ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. २२ सप्टेंबर १९५७ दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका केली आनी ताका शिमेभायर घालो. मुंबय ताणें आपलें सुटके झुजाचें काम चालूच दवरिल्लें. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**रात :** (पळेयात दीस).

**रातकिडो :** रातच्या वेळार 'किर्र-किर्र' आवाज करपी एक किडो. हाचो आस्पाव ऑरथॉप्टेरा गणांतल्या, ग्रायलिडी कुळांत जाता. तांच्यो सुमार २,००० जाती आसात. ह्या किड्यांची लांबाय ३ मिमी. ते ५० मिमी. इतली आसूंक शकता. तांच्यो शृंगिका बारीक आनी नाजूक आसतात. फाटले पांय उडी मारपाक योग्य आसून ते तीन खंडांनी तयार जाल्ले आसतात. पोटाचेर दोन पुच्छिका आसतात. फुडले पांय ताठर आनी चिवट आसतात. नरांत हाचेरूच आवाज करपाचें साधन आसता. फाटलीं पाखां लांब आनी पातळ आसून तांचो उडपाखातीर उपेग जाता.

ह्या किड्याच्या एका फुडल्या पाखांची कडेवयली खरड यंत्रणा दुसऱ्या मुखावयल्या पाखाचे सकयलेवटेन आशिल्ल्या ५० ते २५० दात्याचेर घांसून ह्या किटकांतले नर ' किर्र ' असो आवाज काडटात. खरड यंत्रणा आनी दातें दोनय पाखांचेर आशिल्ल्यान खंयचें पाख वयर आनी खंयचें सकयल हाका म्हत्व नासता. आवाजाची प्रभावी कंप्रता दर एका सेकंदाक कितले दाते घांसप जाता ताचेर आदारून आसता. एका सेकंदाक व्हड आकारमानाच्या किड्यांत १,५०० आवर्तनां जाल्यार ल्हान किड्यांत १०,००० आवर्तनां इतलो बदल आसूंक शकता. आवाज हो स्पंद रुपान निर्माण जाता आनी हे

स्पंद एका सेकंदांत २५० इतले आसूंक शकतात. तशेंच पारवांच्या एका झटक्याक एक स्पंद ह्या प्रमाण आवाज उप्रासता. हो किडो मादीक आपोवपाक एके तरेचो किर्र आवाज, मादीक मीलनाक उद्युक्त करपाक दुसरे तरेचो किर्र आवाज, दुस्मानाक भिवोवपाक तिसरे तरेचो किर्र आवाज काडटा. नरांत आनी मादींत फुडल्या पांयांचे पोकळेंत कर्णेंद्रियां आसतात. ताका लागून ताच्या आवाजाची दिशा थारावंक मेळटा.

रातकिड्याच्या आवाजाचेर तापमानाचो परिणाम जाता. उत्तर अमेरिकेंतल्या झाडाचेर रावपी रातकिडो इकँथस फुल्टोनी हो थर्मामीटर क्रिकेट म्हणून वळखतात. कारण ताच्या किरकिन्या वयल्यान तापमानाचो अदमास करूंक मेळटा.मादी आपलीं तांतयां जमनींत वा वनस्पतीच्या कांडाचेर घालता.

उत्तर गोलार्धांत रातकिडे सादारण शियाळ्या आदीं जाण्टे जातात. वसंत ऋतूंत तांतयांतल्यान डिंभ भायर येतात. डिंभ ६ - १२ खेपे कात उडयतात. जाण्टे अवस्थेंत रातकिडो सादारण ६ - ८ सप्तकां जियेता. रातकिडो सगळे तरेचें अन्न खाता. मनशाचे वसणुकेंत वा उश्टवाऱ्यार हे किडे दिश्टी पडटात. कांय रातकिड्यांच्यो जमनींत रावपी जाती झाडाच्या मुळांचेर जगतात आनी ताका लागून तांचो आंकडो चड जाल्यार पिकांक धोको उपरासता. गऱ्याक हो किडो लावन ताचें हांयस करून नुस्तें गरयेक फारावंक ताचो उपेग करतात. प्रयोग शाळेंतय हे किडे खूब प्रमाणांत वापरतात. चिनांत करमणुकीखातीर रातकिड्यांचीं झुजां लावपाची चाल हजार वर्सांपरसय चड काळ चलता.

- कों. वि. सं. मं.

**रातराणी :** ( मराठी : रातराणी; हिंदी : रात की रानी; इंग्लीशः क्वीन ऑफ द नायट, लेडी ऑफ द नायट, नायट सिरिंगा ; लॅटीनः सेस्ट्रम नॉक्टर्नम; कूळ : सोलॅनेसी ).



हें पातळून वाडपी झाड मुळचें वेस्ट इंडिजांतलें आसून ताचो प्रसार भारत, पाकिस्तान, बांगलादेश, श्रीलंका, तशेंच मेक्सिको, मध्य अमेरिका, उश्ण कटिबंधांतले अमेरिकेचे वाठार, वेस्ट इंडिज आदी वाठारांनी आसा. रातराणीचे प्रजातींत वट्ट सुमार १५० जाती आसून तातुंतल्यो भारतांत फकत आठ जाती मेळटात.

रातराणीची उंचाय सुमार १.२५ ते ३.७५ मी. आसून खांदयो लेव पुडिकोराच्यो आनी हुमकळपी आसतात. पानां सादीं एकाआड एक तांतया आकाराचीं, लांबशी - पातळ सुमार १० सेंमी. लांब, आनी ४ सेंमी. रूंद आनी चकचकीत आसून तोंकाकडेन अशीर आसतात. फुलां लेव हळदुवसार सुमार २ सेंमी. लांब आसून जुलय - सप्टेंबरांत पानाचे खाचींत, तेंगशेर फुलां येतात. फुलां रातचीं फुलतात. तांचो मंद वास सगळेकडेन पातळटा. ह्या फुलांपासून अत्तर काडटात. हे वनस्पतीचो अर्क मोडणें मारप ह्या दुयेंसाचेर वखद म्हण वापरतात.

दर्यापातळेसावन ऊंच-सकयल प्रदेशामेरेनच्या सगळ्या वाठारांत हें झाड जाता. पोरसांत तशेंच वंयेकडेन ह्या झाडाची लागवड केल्ली दिश्टी पडटा. ह्या झाडाचीं छाट कलमां वा गुटी कलमां लावन पावसाळ्यांत लागवड करतात. जानेवारी ते एप्रिल म्हयन्यांत फुलां येतात. फुलांचो भार सोंपतकच सादारणपणान एका म्हयन्या उपरांत चड वाडिल्ल्यो ताळयो कापून उडयल्यार फुलां चड येतात. ह्या झाडाक मावा आनी पिठ्या भिकुणांचो त्रास जाता. तेखातीर १0% बीएच्सी धुंवरी फवारतात.

- कों. वि. सं. मं.

**राधा :** गोकुळांतली एक गोपी. कृष्णाची मोगिका आनी वैश्णव संप्रदायांतली आराध्य देवी. वेगवेगळ्या पुराणांत हिच्या जल्माच्यो वेगवेगळ्यो कथा मेळटात. पूण राधेचे उत्पत्तीविशींच्या सादारण मताप्रमाण, राधा ही आर्य जातीची देवता नासून, ती मुळांत आभीर जातीची कुलदेवता आसली. आर्यांचो आभीराकडे जेन्ना लागींचो संबंद आयलो, तेन्ना तांणी हे आभीर देवतेक आपणायली आनी तिची आराधना सुरू केली. ती आर्यांची आसून तिचो उगम सांख्यशास्त्रांतल्यान जाला अशें काय जाणकार समजतात.

राधा आनी कृष्ण ह्या दोगांयचे आदार सांख्यशास्त्रांतले प्रकृति - पुरुष जाता. वैश्णव धर्मांत प्राधान्य मेळोवपी राधा ही आपल्या मुळरुपांत सांख्याची प्रकृती आसा. वैश्णव साहजिया संप्रदायांत दादल्या - बायलेच्या तत्त्वांचें प्रतिपादन करतना बायल तत्त्व म्हळयार राधा आनी दादलो तत्त्व म्हळयार श्रीकृष्ण अशे उल्लेख मेळटात. रसिक वैश्णवांच्या मतान राधा - कृष्ण हे अनुक्रमान रती आनी रस आसात.

पुराणाच्या पयलीं म्हळयार इसवीसन पयल्या शेंकड्यांत महाराष्ट्रांत गाथासप्तशती निर्माण जाल्यो, तातूंत राधेच्यो गाथा मेळटात. त्या काळांतली राधा ही कृष्णाची सखी आनी मोगिका आसली.भागवत पुराणांत राधेचो प्रत्यक्ष उल्लेख ना तरी एक विशिश्ट गोपी (गवळण) सगळ्या गवळणीं परस कृष्णाक चड आवडटाली. तो तिचेवांगडा

एकांतात खेळटालो असो संदर्भ येता. इ.स.च्या ५ व्या शेंकड्यांतली ही गोपी म्हळयार राधेची पुर्विल्ली छाया जावंक जाय. इ.स.च्या ६ व्या शेंकड्यांत आपणाक राधा मानून श्रीकृष्णाची उपासना करपी कितलेशोच द्रविड धुवो तमिळनाडूंत निर्माण जाल्यो.

आनंदवर्धनाच्या ध्वन्यालोक हातूंत इ.स.च्या ९ व्या शेंकड्यांत आनी त्रिविक्रमभट्टाच्या नलचंपूत १० व्या शेंकड्यांत राधा - कृष्णाच्या विलासवर्णनाचे श्लोक आसात. धनंजयाच्या दशरुपकांत १० व्या शेंकड्यांत श्रीकृष्ण राधेचो अनुनय करता म्हणपाचें सांगलां.

ब्रह्मवैवर्त पुराणांत राधा-कृष्णाच्यो लीला दिव्य शृंगाराचे फाटभुंयेचेर रंगयल्यात. भागवतांत छायारुपांत वावुरपी राधा ब्रह्मवैवर्त पुराणांत कृष्णाची शृंगार सहचारीणी म्हूण निश्चित जाल्या.

इ.स.च्या १२ व्या शेंकड्यांत बंगालांतलो कवी जयदेव हाणें गीतगोविंद नांवाचें राधा-कृष्णाच्या शृंगार लीलांचें काव्य बरयलें. रसाळ भास, रसमाधुर्य आनी छंदोवैचित्र ह्या वाङमयीन गुणांनी त्या काव्यान लोकांच्या काळजाचो थाव घेतलो आनी बंगालांतल्या वैशणवांमुखार तो एक भक्तिग्रंथ थारलो.

राधा ही कृष्णाची मोगिका, कृष्णाची मूळशक्ती आनी वृंदावनांतली शृंगार सहचारीणी, विश्वाची ल्हादिनी शक्ती अशीं तिचीं वर्णनां येतात.

हरिऔध ह्या हिंदी कवीच्या 'प्रियप्रवास' ह्या कृष्णाविशींच्या काव्यांतली राधा सरल, सुशील आनी मोगाळ आसून कृष्णाची नायिका आसा.

द्वारिकाप्रसाद मिश्र हांच्या ' कृष्णायन ' नांवाच्या काव्यांतली राधा प्रेमयोगिनी, साक्षात भक्ती आनी प्रेमशक्ती आसा. ती आपल्या माधुर्यबळाचेर कृष्णपरब्रह्माकडे अद्वैत सादून सामरसांत विलीन जाल्ली आसा.

राधेचीं तीन विगंड विंगड रुपां पळोंवक मेळटात - १) पुराणीक राधा २) संप्रदायीक आनी ३) कलाविशयक राधा

**पुराणीक राधा :** सगळया पुराणांमदीं ब्रह्मवैवर्त पुराणांत राधेविशीं विस्तारान बरोवन तिची व्हडवीक वाडयल्या. ताचो आशय असो, राधा हो एक मंत्र आसून, तातुंतल्या रकाराच्या उच्चारणान कोटी जल्मांतलीं शुभाशुभ कर्मां आनी कर्मफळां नश्ट जातात आनी आकाराच्या उच्चारणान गर्भवास, मरण आनी पिडा टळटा. धकार दीर्घायुश्य दिता आनी आकार भावबंधांतल्यान मुक्त करता. राधा ही पयलीं गोलोकांत उत्पन्न जांवन कृष्णाची प्राणेश्वरी जाली. फुडें ती वृषभानूगेर जल्माक येवन व्रजमंडलांतल्या भक्त जनांची आराध्य जाली. रायण नांवाच्या तरणाट्याकडे तिचें लग्न जालें. पूण हें लग्न राधेच्या छायेकडे जालें. राधा आपले कुडींत स्वतःची छाया दवरून ते कुडीसावन पयस जाली आनी मुळरुपांत कृष्णाच्या काळजांत वचून बसली.

देवीभागवतांत राधेक मूळप्रकृती मानल्या आनी तिचे पुजेचें विस्तृत विधान सांगलां. 'श्री राधायै स्वाहा' हो तिचो स अक्षरी मंत्र. हो मंत्र मूळ प्रकृतीच्या उपदेशान सगळयांत पयलीं कृष्णाक रासमंडलांत प्राप्त जालो. राधेची पुजा केलेबगर कृष्णपुजेचो अधिकार प्राप्त जायना. ह्या आदले प्रकृतीक आदिदादल्यासावन जो पूत जालो, तोच महाविष्णु. ताकालागून राधा श्रीकृष्णाची आवय देखून तो तिची पुजा करता.

**सांप्रदायिक राधा :** मधुराभक्तीच्या संप्रदायांत राधेची सुवात उंचेली आसून, ती कृष्णाच्या वामांगांतल्यान उत्पन्न जाल्ली आसून, ताची ल्हादिनी शक्ती आसा, अशें मानतात. श्रीकृष्णाच्या लीलांची राधा संचालिका आसून, ती भगवंताच्या आनंदाची पुरायशक्त आसा आनी दोगांयचो संबंद चंद्रचंद्रिकेसारको आसा आनी कृष्णाची मोगिका नासून, ताची स्वामिनी आसा.

निंबार्क संप्रदायांत ती कृष्णाची स्वकीया आसून, भक्तीची परमाराध्य आसा. रसत्व आनी रसिकत्व हे त्या युगुलांत प्रतिश्ठित आसा. ह्या संप्रदायांत राधाकृष्णाची युगलउपासना रूढ आासा.

राधावल्लभ संप्रदायांत राधा ही आनंद स्वरुपांत आसा. कृष्णाच्या आनंदाचेंच नांव राधा. हो राधाभाव खंयच्याय ब्राह्य लौकिक कर्मांनी वा ज्ञानान उपलब्ध जावपी न्हय तर तो प्रेमभावनेनूच उपलब्ध जावपी आसून तीं दोगांय एकाच तत्त्वांचीं रुपां आसात.

चैतन्य संप्रदायांतली राधा ही परकी आशिल्ल्यान तिच्या कृष्णमोगाक उत्कटताय आयल्या. चैतन्यांच्या काळांत भारतांत शाक्तमताचो प्रभाव आशिल्लो. शिव आनी शक्ती ह्या दांपत्याच्या नांवार शाक्तांनी हळशिकावणे प्रकार सुरू केले. पूण लोकांक ह्या गजालींची उबगण आयली. ह्या बीभत्स उपासना मार्गांतल्यान समाजाक भायर काडपावातीर चैतन्यांनी राधा - स्वीकृत करून राधेसयत कृष्णाचे भक्तीचो आनी पुजेचो प्रचार केलो. राधाकृष्णाचें गुणसंकीर्तन करून ती उपासना सगळया लोकांमेरेन पावयली.

**कलाविशयक राधा :** मध्ययुगांत कला, काव्य आनी संगीत हांचो नायक कृष्ण आसा, तर नायिका राधा आसा. चित्रकारांनी रंगाच्या माध्यमांतल्यान राधा ह्या प्रतिकांत जीव भरलो, जाल्यार जयदेवादी कवींनी पदलालित्य अलंकार आनी भावभगिमा हांणी तिका श्रवणरम्य केली. संगीतकारांनी स्वर आनी शब्द हांच्या आदारान तिका संगीतबध्द केली. अशे तरेन राधा ही मध्ययुगांत ललित कलेची प्रेरणा जावन रावली. रसिक भक्तांक राधेच्या रूपमाधुर्यान जिणेची एक नवी नदर फाव जाली. राधा-कृष्णाच्या पयलीं आनी उपरांत अशी नायक-नायिकेची जोडी समाजाक आनी कलाकारांक इतले उत्कंठेन आकर्शीत करूंक पावलीना. शृंगाराक भक्तिरसाच्या दर्यांत भरसून उडोवपाचें श्रेय राधा - कृष्णाकूच फाव जालां.

राधेचीं जीं कितलींशींच चित्रा निर्माण जाल्यांत तातूंत किशनगढ शैलींतली राधा अलंकृत आसा; तर कांगडा शैलींतली राधा भावमुग्ध आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**राधाकृष्णन, सर्वपल्ली :** ( जल्म : ५ सप्टेंबर, १८८८, तिरुत्तनी - आंध्र प्रदेश; मरणः १६ एप्रिल १९७५).

भारताचो दुसरो राश्ट्रपती ( १९६२ - ६७) आनी अस्तंत संवसाराक भारतीय तत्त्वगिन्यानाची वळख करून दिवपी व्हड तत्त्वचिंतक.



ताणें उंचेलें शिक्षण मद्रासच्या ख्रिश्चन महाविद्यालयांत जालें. उपरांत मद्रासचें प्रॅसिडन्सी कॉलेज (१९०९ - १६), म्हैसूर विद्यापीठ (१९१६ - २१), राजे पंचम जॉर्ज अध्यासन, कलकत्ता विद्यापीठ (१९२१ - ३१) हांगा तत्त्वज्ञानाचो प्राध्यापक म्हणून ताणें काम केलें. त्याचवेळार तो ऑक्सफोर्डाक मँचेस्टर कॉलेजींत तुळात्मक धर्मशास्त्राचो प्राध्यापक (१९२९) आनी उपरांत व्हॉल्टेर हांगाच्या आंध्र विद्यापिठाचो कुलगुरू (१९३१ - ३५), लंडन हांगा 'पौरस्त्य धर्म आनी नीतिशास्त्र' हाचो प्राध्यापक (स्फाल्डिंग प्रोफेसर), बनारस हिंदू विद्यापिठाचो कुलगुरू ( १९३९ - ४८) आशिल्लो.१९३१ ते ३९ मेरेन तो राश्ट्रसंघांत भारताचो प्रतिनिधी आशिल्लो. १९४९ ते १९५२ मेरेन भारताचो रशियेंतलो राजदूत म्हणून ताणें कांम पळयलें. तेवेळार आपली सदची प्रथा मोडून स्टालिनान ताका मुजरत आपोवन घेवन ताची भेट घेतली. अखिल भारतीय तत्त्वज्ञान परिशदेचो (१९२७) आनी अखिल भारतीय शिक्षण परिशदेचो ( १९३०) तो अध्यक्ष जालो. ऑक्सफर्डाक ऑप्टन व्याख्यानमाळ तशेंच हिबर्ट व्याख्यानमाळेंत व्याख्यान दिवपाचो भोवमान ताका मेळ्ळो. १९५४ त 'भारतरत्न' हो सगळयांत उंचेलो किताब दिवन ताका भोवमानीत केलो. १९५२ ते १९६७ ह्या काळांत भारताचो उपराश्ट्रपती जावन तो निवृत्त जालो. निवृत्तीकाळांत तो मद्रासाक वचून रावलो. थंयच ताका मरण आयलें.

शांकर तत्त्वज्ञानाच्या आदाराचेर प्रवृत्तीपर जीण जगपाक येता, अशें ताणें दाखोवन दिलें. सगुण ब्रह्म वा ईश्वर हो निर्गुण परब्रह्माच्या सकयल्या थरावयलो आविश्कार आसा, अशें मानिनासतना भक्तांकडे आशिल्ल्या ताच्या संबंदाचे अपेक्षेन ग्रहण केल्यार जो ईश्वर असो आमकां दिसता ताचेच संबंद निरपेक्ष रितीन ग्रहण केल्यार तोच परब्रह्म म्हणून उरता, अशें ताचें प्रतिपादन जावन आसा. राधाकृष्णन् हाणें मायावाद आपणायल्लो. संवसार ईश्वराचेर आदारून आसा, तो स्वप्रतिश्ठित ना आनी अशाश्वत आसा असो ताणें ताचो अर्थ केला. हिंदू धर्माक कांय आविल्लें रूप मेळटा अशें मानल्यार ताचें श्रेय स्वामी विवेकानंद, डॉ. भगवानदास, म.गांधी आदींचेप्रमाण राधाकृष्णन हाकाच आसा.

सगळया धर्मांतलें मूलभूत (बुन्यादी) सत्य एकूच आसा, आनी ही वृत्ती हिंदू धर्मान खास करून जोपासल्या अशें राधाकृष्णन हाणें सांगलां. खंयच्याय धर्माच्यो शिकवणी ह्यो तत्त्वज्ञानाचो अभ्यासविशय आसता; देवशास्त्राच्यो (थिऑलॉजीच्यो) न्हय, अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें, अशें तो म्हणूंक पावलो, हाचें कारण ज्ञानमीमांसेंत प्रत्यक्ष आनी अनुमान हाचेप्रमाणच अंतःप्रज्ञ (इंट्यूइशन) हेंय सत्यज्ञान मेळोवपाचें एक साधन आसा अशें ताणें मानलां. धर्मग्रंथांचें प्रामाण्य तातूंत ग्रंथित आशिल्ल्या ऋशींच्या गुढानुभूतींचेर आसा, त्या ग्रंथांच्या ईश्वर कर्तृत्वाचेर ना, अशी ताची भुमिका आसा. ही नदर आपणायली म्हण्टकूच धर्माची चिकित्सा करूंक येता आनी प्रस्थापित धर्ममतांचो समन्वयूय करपाक जाता.

बुध्दान अनात्मवाद सांगलो, पूण राधाकृष्णन हाच्या मताप्रमाण तो अनात्मवाद आनी वेदांताचो आत्मवाद वा ब्रह्मवाद हांचेमर्दी विरोध ना. बुध्दान न्हयकारला तो 'हाव' आनी 'म्हजें' अशी वृत्ती निर्मुपी जीवात्मो. जीवात्मो हो अहंकाराचो परिणाम. अहंकार ना जालो, म्हण्टकच निर्वाणरुपी परम शांतीचो अणभव येता. वेदान्तूय अहंकार ना करपाक सांगता. अहंकार ना जातकच जो शुध्द चैतन्याचो अणभव येता ताका वेदान्तांत आत्म्याचो अणभव म्हण्टात.

खरें म्हळयार धर्म एकच आसता. संप्रदाय खूब आसतात. हाचो अर्थ असो न्हय की, खंयचोय संप्रदाय आनी ताच्यो खाशेल्यो परंपरा ना करूंक जाय. इतलेंच करूंक जाय की, संप्रदायांनी आपली आग्रही वृत्ती सोडूंक जाय. रुढींच्या बंदखणींतल्यान आपली सुटका करून घेवंक जाय. धर्म ही मनशा मनशाक जोडपी शक्त आसा, तांचेमर्दी फूट घालपी न्हय हें वळखूंक जाय असो विचार ताणें मांडला.

'द रेन ऑफ रिलिजन इन कंटेपररी फिलॉसॉफी' ह्या १९२० त उजवाडायिल्ल्या ग्रंथांत ताच्या मनाचो ओडो रामानुजाच्या विशिश्टाद्वैत मताकडे म्हळयार सगुणोपासनेकडे बागवल्लो दिसता. फुडें १९२३ (पयलो वांटो) आनी १९२७ (दुसरो वांटो) ह्या वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या 'इंडियन फिलॉसॉफी' ह्या ग्रंथांत शंकराचार्याचें केवलाद्वैत मत आपणायल्लें दिसता. पूण १९२९त उजवाडाक आयिल्ल्या 'ॲन आयडियालिस्ट व्ह्यू ऑफ लाइफ' ह्या ग्रंथांत ताचे जीणेविशींचें पुराय तत्त्वगिन्यान साररुपान आयलां, अशें म्हणूं येता. हातुंतल्या तत्त्वगिन्यानाप्रमाण देहपातापयलींच मनशाक परमेश्वराकडे सायुज्यताय मेळूंक शकता, पूण निमणो मोक्ष वा ब्रह्म - निर्वाण हे सगळे जीव मेकळे जालेबगर एका मनशाक प्राप्त जायनात. म्हणून सायुज्य मुक्तताय मेळिल्ले व्हड मनीस हे तर जीवाच्या उध्दाराखातीर सदांच यत्नशील आसतात. हें मत महायान पंथांतल्या बौध्द मतावरी बोधिसत्व संकल्पनेसारकें आसा. ताणें उपनिषदां (द प्रिन्सिपल उपनिषदास् - १९५३), ब्रह्मसूत्रां (द ब्रह्मसूत्राज - १९६०) आनी भगवद्गीता (द् भगवद्गीता - १९४८), ह्या वेदांताच्या प्रस्थानत्रयीचेर भाश्यस्वरूप ग्रंथ बरयल्यात. हाचे भायर ' द फिलॉसॉफी ऑफ रवींद्रनाथ टागोर'

(१९१८), 'द हिंदू व्ह्यू ऑफ लाइफ' (१९२६), 'इस्ट ॲन्ड वेस्ट इन रिलिजन' (१९३३), 'ईस्टर्न रिलिजन्स ॲन्ड वेस्टर्न थॉट' (१९३९), 'द धम्मपद्' (१९५०), ' द रिकव्हरी ऑफ फेथ' (१९५५) आदी ताची ग्रंथरचना आसा.

धर्म आनी तत्त्वज्ञान हांचेप्रमाण शिक्षण होय ताच्या परिशीलनाचो विशय आशिल्लो. शिक्षणान मनशाक आत्मभान जावंक जाय आनी ताका आपल्या विचाराची दिका थरोवपाक येवंक जाय, अशें ताचें मत आशिल्लें. स्वतंत्र भारताच्या पयल्या शिक्षण आयोगाचो (१९४८) तो अध्यक्ष आशिल्लो. ताच्या शिक्षणीक कार्याविशींचो आदर उक्तो करपाखातीर आनी ह्या आदर्श शिक्षकाच्या भोवमानाखातीर भारतांत सगळ्याक ताचो जल्मदीस (५ सप्टेंबर) हो 'शिक्षकदीस' म्हणून मनयतात.

आयज जाका विश्लेशणात्मक तत्त्वज्ञान म्हण्टात ताचेकडेन आपल्या विचाराचो सांदो जमोवन घेवपाचो ताणें केन्नाच यत्न केलो ना. तेचप्रमाण आयच्या अस्तित्ववादाविशीं ताणें चडसो आदर दाखोवंक ना. ताच्या मतान उपनिशदांतलें तत्त्वज्ञान हेंच खरें अस्तित्ववादी आसा. कारण ताची, सुरवात आत्म्याच्या अस्तित्वासावन जाता. जडवादांत अंतःप्रज्ञेक वा गूढानुभूतीक सुवात नाशिल्ल्यान आध्यात्मिक मर्मदृश्टीक तो पारखो जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**राधाकृष्ण, वामन :** ( जल्म : ६ मे १९३१, वेंगुर्ला ).

गोंयचो सुटकेंझुजारी. ताणें बी.ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो पत्रकारितेचो वेवसाय करतालो. नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. तो राश्ट्रीय नेमाळ्यांवरवीं गोंयच्या तरणाट्यां मदीं, सुटकेझुजाविशीं जागृताय निर्माण करतालो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा सत्याग्रह घडोवन हाडपांत ताचो म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. त्याच दिसा पुलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. बंदखणींत जावपी सुमाराभायर अत्याचारांआड झूज दिवपाक ताणें आमरण उपास सुरू केल्लो. एक वर्स बंदखण भोगल्या उपरांत ताका प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. बंदखणींतल्यान सुटका जाल्या उपरांत गुपीत बसकांनी वांटो घेवप, गुपीत खबरो पावोवप, रेडिओ केंद्राक आनी नॅशनल काँग्रेस गोवा संघटनेच्या भुंयगत फुडाऱ्यांक पुर्तुगेज पुलिसांच्या कारवायांविशीं खबरो दिवप असलीं कामां तो करतालो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. गोंयचे सुटके उपरांत ताणें गोंयचें राजकारण, समाजकारण, साहित्य हेसंबंदीं चिंतनशील अशें लिखाण केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**राधान आट :** कर्नाटकांतल्या लोकनाट्याचो एक प्रकार. मराठी तमाशांचें हें कन्नड रूप आसा. मराठी तमाशांतली राधा ह्या पात्रावयल्यान ह्या लोकनाट्याक राधान आट हें नांव दिला. काळांतरान ताका राजान आट अशें दुसरें नांव मेळ्ळें. हातुंतलें संगीत हें छक्कड, कव्वाली आनी लावणी हांचे धर्तेर आसून ताका सारंगी आनी धप्प ह्या वाद्यांची साथ आसता. पयलीं हातुंतलीं कथानकां पुराणीक आसतालीं. पूण आतां तीं सामाजिकय आसतात. चडकरून मोगाच्या त्रिकोणाभोंवतणीं कथानक गुंथिल्लें आसता. रूपसिंगन आट, मुकुंद - गोविंद आनी संग्या बाळ्या हे तातुंतले तीन वग लोकांचे चड आवडीचे. राधान आटांतल्या पात्रांचो भेस चडसो भडक नासता. वगांतलीं पदां गावपाखातीर आठ जाणांचो एक वृंद आसता.

प्रणयप्रधान कथानक, अश्लीलतेकडेन वचपी संवाद आनी ताका फावता तशे हावभाव हाकालागून खेड्यापाड्यांतलें हें लोकनाट्य लोकांक चड आवडटा. वीस वर्सां पयलीं उत्तर कर्नाटकांत दर एका गांवांत ह्या लोकनाट्याचे दोन फड उबारिल्ले आसताले.

- कों. वि. सं. मं.

**राधावल्लभ संप्रदाय (पंथ) :** उत्तर भारतांतलो एक वैष्णव संप्रदाय. वज्रमंडळांत ह्या संप्रदायाचो जल्म जालो आनी थंयच तो फांकारलो. आयजूय ह्या संप्रदायाच्या अनुयायांचें वज्रमंडळ हेंच मुखेल केंद्र आसा. श्रीहित हरिवंश (१५०२ - ५२) हो ह्या संप्रदायाचो संस्थापक. ताका श्रीकृष्णाचे मुरलीचो अवतार अशें मानतात, हित हरिवंशाच्या काळा आनी जल्मथळाविशीं विद्वानांमदीं मतभेद आसात. मथुरेसावन लागींच आशिल्लें बाद हांगा ताचो जल्म जालो अशें मानतात. ल्हानपणांतूच राधेन हित हरिवंशाक सपनांत गुरूमंत्र दिलो आनी फुडाराक तिचेच आज्ञेवयल्यान ताणें घरदार सोडून वृंदावनांत देवूळ बांदून ताका मेळिल्ल्या श्रीकृष्णाचे मूर्तीची ताणें स्थापणूक केली. तो राधाकृष्णाचे युगुल मूर्तीचो उपासक आशिल्लो. तातुंतूय श्रीकृष्णापरस ताका राधेची भक्ती चड म्हत्वाची तशीच रोखडीच फळ दिवपी अशी दिसताली. ताणें राधावल्लभाची उपासना आनी प्रेमभक्तीचो उपदेश आनी प्रचार केलो. राधेच्या मंगलयुक्त भक्ती आनी मोगाखातीर ताणें 'हितहरिवंश' अशें नांव धारण केलें अशें मानतात. दामोदरदास म्हळ्यार सेवक, हो ह्या संप्रदायाचो दुसरो आचार्य. ताकाय राधेनूच सपनांत दीक्षामंत्र दिल्लो. ताणें हरिवंशाचो महिमा आनी राधावल्लभ संप्रदायाची तात्त्विक फोडणिशी आपल्या ग्रंथांतल्यान केली. ते उपरांतचो आचार्य म्हळ्यार हरिरामशुक्ल (व्यास). ताणें हितहरिवंशाकडल्यान दीक्षा घेतिल्ली अशें म्हण्टात. तो वृंदावनांतूच रावतालो. वैष्णव भक्त ताका विशाखा सखीचो अवतार मानतात. ताणें 'नवरत्न' आनी 'व्यासपाणी' हे दोन ग्रंथ बरयले. उपरांतचो आचार्य चतुर्भुजदास हो ह्या संप्रदायाचो खाशेलो प्रचारक आशिल्लो. ताणें बरीच व्हड ग्रंथरचनाय

केल्या. हांचेभायर ध्रुवदास नेशी नागरीदास, कल्याणपुजारी, अनन्य अली, रसिकदास, वृंदावनदास हांणीय वृंदावनाच्या सोबितकायेचें आनी राधाकृष्णाच्या दिव्य लिलांचें सोबीत चित्रण ब्रज भाशेंतल्यान केलां. ह्या सगळयांनी आपल्या नांवामुखार 'हित' ही संज्ञा लावपाची प्रथा पाळळी, अशेंय दिसून येता.

हितहरिवंशाची साधन प्रणाली बरीच गूढ. सादो भक्त हे साधनेचो अधिकारी जांव नजो. खाशेली निश्ठा आशिल्ल्या साधकांकूच ही साधना शक्य जाता. प्रेमतत्त्व होच हे साधनेचो सिध्दांत. राधाकृष्ण प्रेमविरह हेंच राधावल्लभ संप्रदायाचें रहस्य. तशें पळोंवक गेल्यार हो संप्रदाय रससंप्रदाय म्हळयार जाता. प्रेममूर्ती राधा-माधव हांचें सदांच्याच मिलनाच्या प्रसंगार साधकान गूंग जावन ताची सेवा करप हीच ताचे जिणेची मोख, अशें संप्रदाय मानता. ह्या संप्रदायाच्या नित्याच्या विहारांत राधा, कृष्ण, वृंदावन आनी सहचरी ह्या चार विधायक तत्त्वांचोय आस्पाव केल्लो दिसता. तेच प्रमाण हो नित्य विहार सिध्द जावंचो देखून ह्या संप्रदायांत नित्यकिशोरी राधा, नित्यकिशोर कृष्ण, नित्यकिशोरी सहचरी आनी नित्यधाम वृंदावन हीं चार तत्त्वांय मानल्यांत. वृंदावनांत राबितो केल्यार जल्मजल्मांतरीचीं पातकां नश्ट जातात अशी ह्या पंथियांची धारणा जावन आसा.

हितहरिवंशांत रचिल्लीं ८४ पदां 'हितचौरासी' ह्या ग्रंथांत एकवटायल्यांत. होच त्या संप्रदायाचो आदारग्रंथ. वैष्णव धर्मांतल्या बाह्याचार संबंदींचे रुढींक ह्या संप्रदायान म्हत्व दिवंक ना. एकादस, तीर्थस्नान आदी गजालींक्च गरजेच्यो अशो मानूंक नात, 'राधासुधानिधी' हो संस्कृत भाशेंत ताणें आनीक एक ग्रंथ बरयलो.

ह्या संप्रदायांत राधाकृष्णाच्या सेवा पुजेसंदर्भांत खाशेले अशे नेम आसात. इ.स. १५३४ च्या 'पाटोत्सवा' वेळार हे नेम थारायल्यात. ह्या संप्रदायांत 'समाज' नांवाची वेवस्था पळोवंक मेळटा. समाजांतल्या मुखेल गायकाक 'मुखिया' म्हण्टात. तो वेगवेगळया दबाज्यावेळार तशेंच नित्यविहारावेळारूय त्या त्या संदर्भांतलीं पदां गायता आनी पदांतल्या संदर्भांवयल्यान राधावल्लभाचो भेस करतात. देवळांत सदची अश्टयाम सेवा जाता. तातूंत मंगलारती, श्रृंगार, राजभोग, उत्थापन, संध्या, शयन आनी शय्यासमय हे आठ आयाम आस्पावतात. दर सेवेच्यावेळार आरती जाता. फागू (होळी वा रंगपंचम), डोल, चंदनवसन, तीज, (अक्षयतृतीया), पार, दीपमालिका, प्रतिपदा, वनविहार, खिचरी आनी वसंत पंचम हे मुखेल उत्सव.

ह्या संप्रदायाचे शिश्य खाशेले पद्दतीचो तिबो आपल्या कपलार लायतात. दोन सरळ उब्यो वळी आनी मदीं बिंदू अशी ही रचणूक आसता. तिबो हें कृष्णरुपाचें तर बिंदू राधेच्या रुपाचें प्रतिक. ह्या तिब्याखातीर राधा कुंडांतलें रज,तस वा कुकूम योग्य मानतात.

ह्या संप्रदायाची दीक्षा घेतल्याउपरांत भक्ताक तुळशीच्या मणयांची दोट्टी कंठी घालची लागता. हे कंठेचे दोन पदर युगल ध्यानाचें निदर्शन करता. सोळाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दान हो पंथ अस्तित्वांत आयलो आंसुये. आयचे उत्तरप्रदेश राज्यांतले वृंदावन आनी लागसारच्या वाठारांत खास करून ह्या पंथाचो प्रसार जालो, अशें मानतात.राजस्थान, गुजरात आनी मध्य प्रदेशांतूय ह्या पंथाचे अनुयायी असात.

- कों. वि. सं. मं.

## रान आनी रानविद्या

**रान आनी रानविद्या :** सादारणपणान रुखांनी व्यापिल्लो भुंयेवाठार. हातूंत ल्हान-व्हड रुखां वांगडाच हेर झाडां, कीटक, मोनजात, सुकणीं, जिवाणीं आनी ह्या सगळयांक पोसपी आनी तांचेमदीं सुमेळ सादपी पर्यावरणाचो आस्पाव जाता.. रानांत झाडां, झोपां, वेगवेगळी वनस्पत, वरवदी जिवोपजिवी, तण, शेवाळीं, कवकां, शेळो, कीटक, सरपटपी, उडपी मोनजात, सुकणीं, जमीन उदक, वारो, हे सगळे रानांतले घटक आसून तांचेमदीं सहअस्तीत्व आनी सहजिवीताची प्रक्रिया सतत चालू आसता.

उश्ण म्हयन्यांत तापमान १०°से. परस चड आनी वर्सुकी पावस (दव) आनी तत्सम वर्षण २०० मिमी. परस चड आशिल्ल्या वाठारांत रूख वा झाडां, झिली निर्माण जावंक शकता. हवामान, भुगोलीक सुवात आनी रचणूक, मातयेचो कस आनी प्रकार वाऱ्या - पावसाची दिशा आनी वेग हांचेर रानाची निर्मिती आनी रानाचे प्रकार थारता. ही जरी रानांची शास्त्रीय संकल्पना आसली तरी प्रशासनाचे तजवीजे खातीर आनी कायदो चालीक लावपाखातीर वेव्हारीक नदरेंतल्यान उणे चड रूख आशिल्ले वा रूख नाशिल्ल्या वाठारांचोय रानांत आस्पाव केल्लो दिसता.

**रानाचे प्रकार आनी भुगोलीक वितरण :** रानाच्या प्रकारांचो विचार करतना रानांतल्यो घटक वनस्पती, थंयचें जलवायुमान आनी थळावे परिस्थितीचीं हेर ठळक लक्षणां हांकां म्हत्व दिसात. दर एका रान प्रकारांत तातुंतले वेगवेगळे वनस्पतींचें मिश्रण जावन ताचो खाशेलो असो गट जाता आशिल्ल्यान सादारणपणान रानप्रकार आनी वनस्पती जातींचो चोमो अशें समीकरण प्रत्यक्षांत मेळटा. सैमांत वनस्पती चोम्यांतल्या घटकांत एकसारक्या जावपी बदलांक लागून रानप्रकारापसून दुसरो प्रकार भुगोलीक मर्यादांनी नेमको वेगळो दाखोवप मातशें कठीण आसता.

सादारणपणान संवसारांतले रानवाठार आठ प्रकारांनी वांटूक मेळटात.

(१) **सदांच पाचवीं उरपी सूचिपर्णी रानां** :रशिया, स्कँडिनेव्हिया, बाल्टिक प्रदेश, स्कॉटलंड आनी उत्तर अमेरिका ह्या गोलार्धांतल्या देशांच्या सु. ४० ते ६६.५ अक्षांशांच्या पट्ट्यांत तशेंच दक्षिण गोलार्धांतल्या ब्राझील, चिली, आग्नेय आशिया, फिलिपीन्स आनी ऑस्ट्रेलिया - न्यूझीलंड ह्या देशाच्या कांय वाठारांत हो रानांप्रकार

दिश्टी पडटा. स्प्रूस, फर, डग्लस् फर, सेक्वेया, पाइन, जूनिपर, सीडार, लार्च आनी ओक ह्या जार्तीचे रूख ह्या रानांत दिश्टी पडटात.

(२) **समशीतोश्ण वाठारांतलीं पानझडी आनी मिश्र रानां:** ब्रिटन, मध्य आनी अस्तंत युरोप, रशिया, चीन, जपान, ऑस्ट्रेलिया, न्यूझीलंड, उत्तर अमेरिका, दक्षिण आफ्रिका आनी दक्षिण अमेरिकेचो कांय वाठार हांगा हे तरेचे रानप्रकार दिश्टी पडटात. हातूंत सदांच पांचवीं उरपी सूचिपर्णी आनी घट्ट लांकूड, पानझडीचे जातीचे बीच, एल्म, चेस्टनट, ओक, विलो, ॲल्डर, चेरी, मॅपल, पाईन आदी रूख मेळटात.

(३) **विस्तृत चर्मिलपर्णी सदांपाचवीं रानां :** चड करून भूमध्य दर्यालागसरचो वाठार आनी कांय प्रमाणांत दक्षिण आफ्रिका, चिली, ऑस्ट्रेलिया, कॅलिफोर्निया ह्या वाठारांत हो रानप्रकार मेळटा. हातूंत कॉर्क ओक, ऑलिव्ह, यूकॅलिप्टस, पीच पाइन, स्वीट चेस्टनट आदींचो आस्पाव जाता .

(४) **विषुववृत्तीय पावसा रानां :** विषुववृत्ताच्या आसमंतांतल्या वाठारांत दक्षिण अमेरिका (ॲमेझॉन देगण), आफ्रिका (काँगो देगण), मध्य अमेरिका, भारताचो कांय वाठार, मियानमार (ब्रह्मदेश), थायलंड, मलेशिया, फिलीपीन्स आनी ऑस्ट्रेलियाचो कांय वाठार हातूंत हीं रानां मेळटात. हातूंत गुर्जन (चालन), होपिया (कल्होणी), मेसुआ (नागचाफो), डायसोक्झायलॉन (बिली), रबर, पणस, शिसू वेगवेगळ्या प्रकारचे कोंडे, वेत आनी लारवांनी वरवदी वनस्पत ह्या रानप्रकारांत दाटायेन वाडटात.

(५) **विषुववृत्तीय मोसमी आनी मिश्र रानां :** हीं रानां चडकरून उत्तर आनी दक्षिण गोलार्धांतल्या १० ते ३५ अक्षांशाच्या वाठारात मेळटात. हातूंत भारत, पाकिस्तान, इंडोचायना, थायलंड, मादागास्कर, ऑस्ट्रेलिया, आफ्रिका आनी दक्षिण अमेरिका हांचे कांय भाग हे वाठार येतात. ह्या रानांत सागवान, बिबळो ( बीजा), ऐन, धावडो, साल, हेदी, तेंडू, शिरिष, खैर, पळस, चारोळी, बाभूळ अशीं जायतीं झाडां - कोंडे आनी तणाचे प्रकार हांगा मेळटात.

(६) **विषुववृत्तीय दोंगरी रानां :** हो रानांचो प्रकार मध्य आनी दक्षिण अमेरिका, उदेंत आफ्रिका, इंडोचायना आनी मध्य आशियांतलो हिमालयामेरेनचो वाठार हातूंत हीं रानां मेळटात. ह्या रानांत ओक, चेस्टनट,मॅपल आनी हिकरी ह्यासारक्या रूंदपानी, सदांपाचवे रूख मेळटात.

**कांटयाळीं रानां :** हीं रानां उत्तर ऑस्ट्रेलिया, वायव्य आनी मध्य भारत, पाकिस्तानचो उदेंत वाठार, आफ्रिका, मध्य आनी दक्षिण अमेरिकेचे कांय वाठार हांगा मेळटात. हातूंत बाभूळ, खाजूर, हिवर, निलगिरीच्यो वाळवंटी जाती आदी रुखांचो आस्पाव आसा.

**तणाचीं रानां :** हे वाठार चडकरून विषुववृत्तीय तशेंच समशितोश्ण कटिबंधांत मेळटात. हातूंत आग्नेय युरोप, सायबेरियाचो दक्षिण वाठार, ऑस्ट्रेलिया मध्य आनी उदेंत आफ्रिका आनी उत्तर आनी दक्षिण अमेरिकेचो कांय भाग हांचो आस्पाव जाता.

**वनांचें संवसारीक वितरण :** संयुक्त राश्ट्रांच्या अन्न आनी शेती संघटनेच्या १९८२ च्या उत्पादन वर्सावळीप्रमाण १९८१ त संवसारांत वट्ट ४०९०१ लाख हेक्टर रानक्षेत्र आशिल्लें. ह्या वर्सांतल्या कांय वेंचीक देशांतलें वट्ट भूक्षेत्र, शेतायोग्य आनी कायम पिकारवाल भूंयक्षेत्र आनी रानक्षेत्र हांचे आंकडे सकयल कोश्टकांत दिल्ले आसात.

| देश | वट्ट भूंयवाठार | शेतीयोग्य आनी कायम पिकाखाला भूंयवाठार | रानक्षेत्र |
|---|---|---|---|
| अंगोला | १,२४,६७० | ३,५०० | ५३,६७० |
| अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां | ९,१२,६८० | १,९०,६२४ | २,८४,४६४ |
| अर्जेंटिना | २,७३,६६९ | ३५,२०० | ६०,००० |
| आयव्हरी कोस्ट | ३१,८०० | ३,९३० | ९,३८० |
| ऑस्ट्रेलिया | ७,६१,७९३ | ४३,३०० | १,०५,८६७ |
| इंडोनेशिया | १,८१,१५७ | १९,५५० | १,२१,८०० |
| इटली | २९,४०२ | १२,४२४ | ६,३५५ |
| इथिओपिया | १,१०,१०० | १२,९६० | २६,५७० |
| इराण | १,६३,६०० | १५,९७० | ४४,००० |
| एक्वादोर | २७,६८४ | २,६२० | १४, ४५० |
| कंबोडिया | १७,६५२ | ३,०४६ | १३,३७२ |
| कॅनडा | ९,२२,०९७ | ४६,१२२ | ३,२६,१२९ |
| कॅमेरून | ४६,९४४ | ६,९४० | २५,५३० |
| काँगो | ३४,१५० | ६७१ | २१,३४० |
| केन्या | ५६,९२५ | २,३१६ | २,५०० |
| कोलंबिया | १,०३,८७० | ५,६५० | ५२,४५० |
| गाबाँ | २५,७६७ | ४५२ | २०,००० |
| गिनी | २४,५८६ | १,५७२ | १०,५६० |
| गुयाना | १९,६८५ | ४९५ | १६,३६९ |
| घाना | २३,००२ | २,७६० | ८,७०० |
| चॅड | १,२५,९२० | ३,१५० | २०,४२० |
| चिली | ७४,८८० | ५,५२८ | १५,४८० |
| चीन | ९,३२,६४१ | १,००,९०० | १,२३,७२५ |
| झँबिया | ७४,०७२ | ५,१५८ | २०,३५० |
| झाईरे | २,२६,७६० | ६,३५२ | १,७७,२८० |
| झिंबाब्वे | ३८,६६७ | २,६७८ | २३,८१० |
| जपान | ३७,१०३ | ४,८५३ | २५,१९८ |
| जर्मनी, अस्तंत | २४,४२८ | ७,४८३ | ७,३२८ |

| | | | |
|---|---|---|---|
| जर्मनी, उदेंत | १०,६०६ | ५,०१५ | २,९६२ |
| टांझानिया | ८८,६०४ | ५,१९० | ४२,००० |
| तुर्कस्तान | ७७,०७६ | २८,४८९ | २०,११९ |
| थायलंड | ५१,१७७ | १८,३०० | १५,२८० |
| दक्षिण आफ्रिका | १,२२,१०४ | १३,६२० | ४,६०० |
| नामिबिया | ८२,३२९ | ६५७ | १०,४२० |
| नायजर | १,२६,६७० | ३,४५० | २,८४० |
| नायजेरिया | ९१,०७० | ३०,३८५ | १४,६०० |
| नॉर्वे | ३०,७८६ | ८३० | ८,३३० |
| नेपाळ | १३,६८० | २,३३० | ४,४५० |
| न्यूझीलंड | २६,८६७ | ४५२ | ७,१०० |
| पॅराग्वाय | ३९,७३० | १,९४० | २०,५५० |
| पाकिस्तान | ७७,८७८ | २०,३३१ | २,८०० |
| पेरू | १,२८,००० | ३,५१५ | ७०,६५० |
| पोलंड | ३०,४५३ | १४,८५८ | ८,६९४ |
| फिनलंड | ३०,५४७ | २,३७९ | २३,३२१ |
| फिलिपीन्स | २९,८१७ | ९,९४० | १२,१०० |
| फ्रांस | ५४,५६३ | १८,६६४ | १२,८३० |
| बांगला देश | १३,३९१ | ९,१३८ | २,१९० |
| बोट्स्वाना | ५८,५३७ | १,३६० | ९६२ |
| बोलिव्हिया | १,०८,४३९ | ३,३७५ | ५६,१३० |
| ब्रह्मदेश | ६५,७७४ | १०,०४० | ३२,१६५ |
| ब्राझील | ८,४५,६५१ | ७३,२७० | १,६२,००० |
| ब्रिटन | २४,१६० | ६,९८२ | २,१२० |
| भारत | २,९७,३१९ | १,६९,४३० | ६७,५०० |
| मंगोलिया | १,५६,५०० | १,२१२ | १५,१७८ |
| मलेशिया | ३२,८५५ | ४,३३५ | २२,१५० |
| मादागास्कर | ५८,१५४ | ३,०४५ | ३४,००० |
| माली | १,२२,००० | २,०५६ | ८,७६० |
| मॉरिटेनिया | १,०३,०४० | २०८ | १५,१३४ |
| मेक्सिको | १,९२,३०४ | २३,४५० | ४७,९७० |
| मोझँबीक | ७८,४०९ | ३,०८० | १५,३४० |
| मोरोक्को | ४४,६३० | ८,३९४ | ५,९९५ |
| युगांडा | १९,९७१ | ५,७६० | ६,०१० |
| यूगोस्लाव्हिया | २५,५४० | ७,८६८ | ९,३१० |
| रशिया | २२,२७,२०० | २,३२,१७३ | ९,२०,००० |
| रूमानिया | २३,०३४ | १०,५०२ | ६,३४० |
| लाओस | २३,०८० | ८८५ | १२,९०० |
| व्हिएटनाम | ३२,५३६ | ६,११५ | १०,२८० |
| व्हेनेझुएला | ८८,२०५ | ३,७५५ | ३४,७०० |
| श्रीलंका | ६,४७४ | २,१५६ | २,३८३ |
| सूदान | २,३७,६०० | १२,४४८ | ४८,६३० |
| सोमालिया | ६२,७३४ | १,११६ | ८,८१० |
| स्पेन | ४९,९५४ | २०,४८८ | १५,५८१ |
| स्वीडन | ४१,१६२ | २,९६१ | २६,४२४ |
| जागतिक | १,३०,७७,३९७ | १४,६८,५९९ | ४०,९०,१२६ |

**भारतांतले रानप्रकार :** भारतीय रानंप्रकारांत खुबशी विविधताय दिसून येता. पूण लोकसंख्येच्या प्रभावाक लागून हीं रानां फकत कांय दोंगराळ वाठार आनी हलके प्रतीचे जमनीचेरच तिगून उरिल्लीं आसात. हांगाच्या वट्ट वनक्षेत्राचो आवांठ सुमार ७४७.२ लक्ष हेक्टर आसून तातुंतली फक्त ४०० हेक्टर सुवातेर रानांनी व्यापिल्लो आसा. भारतीय रानांचें वर्गीकरण जलवायुमान आनी चडकरून पावस हाचे परिस्थितीप्रमाण केल्लें आसा. हे रानांप्रकार अशे :

**(१) विषुववृत्तीय सदांपाचवी पावसाळीं रानां:** अस्तंत घाट, ईशान्य भारतांतले दोंगराळ वाठार, अंदमान आनी निकोबार जुंवे ह्या वाठारांत हीं रानां मेळटात. हांगाचो सरासरी पावस २५०० मिमी. परस चड आसता. ह्या रानांनी शिसू, एबनी, रक्तचंदन, गर्जन, नागचाफो, चाफो, रबर आदी म्हत्वाची वनस्पत दिश्टी पडटा.

**(२) विषुवृत्तीय अर्दसदांपाचवीं उरपी रानां :** हीं रानां सादारणपणान १९०० ते २५०० मिमी. पावसाच्या वाठारांत मेळटात. महाराष्ट्रांत कोल्हापूर, सातारा, रायगड आनी पुणे जिल्ह्यांतल्या घाटामाथ्यावयल्या विशिश्ट वाठारांत (महाबळेश्वर, माथेरान, आंबोली, भीमाशंकर) हो रानांप्रकार दिश्टी पडटा. ह्या रानांत जांभळां, नाणो, हिरडो, अंजनी, आंबो, पणस हीं म्हत्वाचीं रानां आसात.

**(३) विषुववृत्तीय पानझडी रानां :** सुमार १२५० ते १९०० मिमी. पावसाच्या वाठारांत हीं रानां मेळटात. रानांचो हो प्रकार उदेंतेकडलो प्रदेश, उत्तरेकडलो तराईचो भाग, मध्य भारत आनी उदेंतेकडलो कांय वाठार हांगा हो रानांप्रकार दिश्टी पडटा. हातूंत मध्य आनी अस्तंत भारतांत सागवान आनी उदेंत तशेंच उत्तर भागांत साल हे नामनेचे आनी मोलादीक रूख मेळटात. तेभायर बेहडा, शिसू, धावडो, बिबळो, सुर्या, नाणो, हिरडो, हेद, जांभळ ह्यो हेर मुखेल जाती आसून कोंडो आनी हेर तरेचीं झोपां आनी वरवदी वनस्पतूय हांगा वाडटा.

**(४) विषुववृत्तीय सुकीं पानझडी रानां :** महाराष्ट्र, मध्य प्रदेशाचो खुबसो वाठार, उत्तर प्रदेश, ओरिसा, अस्तंत बंगाल, बिहार, कर्नाटक, तमिळनाडू, राजस्थान आनी गुजरात हांगाच्या सुमार ७५० - १२५० मिमी. पावसाच्या वाठारांत हीं रानां मेळटात. हांगा सागवान, साल,

मिमी. पावसाच्या वाठारांत हीं रानां मेळटात. हांगा सागवान, साल, हिवर, शिरीश, सालई, बाभूळ, अंजन, मोह, तेंडू ह्यो हांगाच्यो कांय मुखेल झाडाच्यो जाती आसात.

**(५) विषुववृत्तीय कांटेरी रानां :** ७५० मिमी. परस उणो आशिल्ल्या पावसाच्या वाठारांत चडकरून राजस्थान, गुजरात, महाराष्ट्र, मध्य आनी दक्षिण भारत हांगा हीं रानां मेळटात. ह्या रानांत चडकरून बाभळ, बोर, हिवर, शिंदी, गराडी, चारोळी, चंदन, धायपात, पळस, नागफणो आदींचो हातूंत आस्पाव जाता.

**(६) समशीतोश्णीय रानां :** हो प्रकार हिमालयांत मेळटा. हातूंत समशीतोश्ण आर्द्र, समशीतोश्ण शुश्क आनी आल्पायन हे तीन उपप्रकार आसात. हिमालयाच्या सगळ्यांत भायल्या रांकांच्या वाठारांत पयलो उपप्रकार दिसता. हातूंत ओक, अक्रोड, चेस्टनट, लॉरेल, आनी मॅपेल; चड उंचायेच्या वाठारांत तशेंच उत्तरेकडल्या रांकांत देवदार, स्प्रूस आनी फर जाल्यार अती उंच वाठारांत भूर्ज, फर, जूनिपर आनी -होडोडेंड्रॉन हे जातीचीं झाडां मेळटात.

ह्या मुखेल रानांप्रकारांभायर दक्षिणेंत निलगिरी आनी तमिळनाडूंतल्या पळणी दोंगुल्ल्यांवयली शोला रानां, शिलाँग आनी आसामाच्या उत्तरेकडल्या भागांत मेळपी दोंगरी उपोश्ण कटिबंधीय पावसाळीं रानां, गंगा, ब्रह्मपुत्रा आनी हेर न्हंयांच्या मुखावयलीं कच्छ रानां अशे कांय खाशेले वनस्पतीसमुदाय आशिल्ले रानांचें प्रकारय भारतांत मर्यादित क्षेत्रांत मेळटात. महाराष्ट्रांत ल्हान विस्ताराचीं कच्छ रानां ठाणें, रायगड, रत्नागिरी, सिंधुदुर्ग ह्या जिल्ह्यांत मेळटात.गोंयांत कर्नाटकावटेनच्यान ईशान्य आनी आग्नेय वटेन पाचवींचार उरपी रानां आसा. हीं रानां काणकोण, सांगें आनी सत्तरी ह्या तालुक्यांनी पातळ्ळयांत. गोंयच्या पेडणें, दिवचल, फोंडें, केपें ह्या तालुक्यांनीय कुडक्या कुडक्यांनी रानां वाडल्यांत. हीं डेसिड्यूअस प्रकारचीं म्हळ्यार पानां झडपी रुखाचीं रानां आसात. ह्या रानांतल्यान नाणो, किनळ, जांब, शिसव, हेद, घोटक हे रूख दिश्टी पडटात. घराच्या मदेराक आनी फर्निचराक ह्या रुखांचें लांकूड उपेगाचें आसा. ते भायर शिरस, शिवण, बेल, कवठ, चार, कुडो, खैर, हिरडो असलीं वखदी आनी वेपाराखातीर उपेगी आशिल्लीं झाडां हांगा वाडटात.

**उपेग :** वत, वारो आनी धूप हांच्या अतिरेकी प्रभावापसून धर्तरेचें संरक्षण करप आनी धर्तरेवयले सगळे तरेचे जीवसृश्टीक मानवता अशें पर्यावरण निर्माण करप असो रानांचो दोट्टी उपेग जाता. जमनीवयल्या झाडांभायर हेर अन्न दुर्मीळ आशिल्ल्यान जायते प्राणी रानांचो फकत आसरो म्हूण उपेग करतात. समशितोश्ण रानांत वाऱ्यावांगडाच पक्षी झाडाच्या बियांचें वितरण करतात आनी कीटक पराग सिंचनाक आदार करतात. रानांत उजवाडा संश्लेशणाचो वेग उच्च आसून ताचो जटिल जैव मालिकेच्या रुपांत वनस्पती आनी मोनजात जीण ह्या दोगांयचेर परिणाम घडून येता.

संयुक्त राश्ट्रांच्या अन्न आनी शेती संघटनेचे व्याख्येप्रमाण रानांत रुखांचो चड आस्पाव आसता आनी तातूंत लांकूड तशेंच हेर रान उत्पादनाचे निर्मणेची तांक आसता. तेचपरी जलवायुमान आनी उदकाचें नियमन तशेंच हेर वातावरण प्रभावित करपाची आनी रानवटी जनावरांक राखण दिवपाची तांक आसता.

मनशाचे जिणेंत रानांचो म्हत्वाचो आदार जाता. सैमाचीं संतुळां राखून रानां मानवी जिणेक थीरपण प्राप्त करून दितात. रानांक लागून थळाव्या जलवायुमानाचेर परिणाम जाता. गिमा दिसांनी हो रानांचो वाठार थंड आनी थंड काळांत हो वाठार उबदार जाता. रानांतल्या झाडांची दाटसाण आनी थंयच्या झाडांच्या पानांची रचणूक ह्या प्रमाण उण्या अदीक प्रमाणांत हो फरक घडटा. रानांवाठारांतले जमनीक दिसाची सुर्याचे उश्णतेपसून राखण मेळटा आनी रातच्या वेळार झाडांच्या आच्छादनाकलागून ही जमीन उकत्या मळावयल्या जमनीप्रमाण बेगीन थंड जायना. ताकालागून रानावाठारांत हवेचें आनी जमनीचें चडांतचड तापमान उक्त्या भूंयभागांपरस कमी आनी उण्यांत उणें तापमान उक्ते जमनीपरस चड आसता.

चक्रवाती पावस हो वातावरणीय घटकांचेर पातयेवन आसता. रानांक लागून वा रानांच्या उणावाक लागून ताचेर परिणाम जायना. पूण रानांच्या वाठारांत प्रवाही कुपांचे वाटेंत आडमेळीं येवन तशेंच थंयच्या झाडामाथ्यावयल्या असमतोल पृश्ठभागाचो कुपांचेर गतकीय परिणाम जावन आनी कुपांच्या प्रवाहाची उंचाय वाडून पावस सहजतायेन पडटा. देखूनच लागसारच्या रान नाशिल्ल्या वाठारापरस रानांच्या वाठारांत पावस पडपाची चड शक्यता आसता. तशेंच हवेंतल्या आर्द्रतेरय रानांचो प्रभाव आसता. रानांवाठारांतल्या उदकांतलें बाश्पीभवन थंयच्या आच्छादनाक लागून उणें जाता आनी अशे तरेन रानांच्या वाठारांत, हवेंत आनी जमनींत ओलसाण चड आसता.

रानांत आशिल्ले झाडीक लागूनय ह्या वाठारांत व्हांवपी वाऱ्याचेर खाशेले परिणाम जातात. चड दाट झाडी आशिल्ल्या वाठारांत वाऱ्याचो वेग एकदम १० % ते ६0% उणो आसता. रानांवाठाराच्या आड आशिल्ल्या शेताच्या पिकाकूय ह्या वाऱ्यापसून बरी राखण मेळटा. तशेंच एकसारक्या वाऱ्याकलागून मातयेचे कण हवेंत उडून धुळीच्यो वावटळी येवप आनी जमनीची धूप जावप ह्यो क्रिया झाडी आशिल्ल्या रानावाठाराक लागून बंद जातात. तशेंच वादळां आनी चक्रीवादळां हांचेपसून वनाकलागून परिणामकारक राखण मेळटा.

रानाचो पर्यावरणाचेर जायतो परिणाम जाता. हातूंत उदका नियमनाचेर जावपी परिणाम म्हत्वाचो आसा. झाडां आशिल्ल्या भूभागाचेर पडपी पावसाचें उदक एकदम जमनीचेर पडनासताना पानार, ताळयेर, कांडार आनी मागीर भुंयेचेर अशा क्रमान देंवता आनी मागीर तें ल्हव ल्हव जमनींत मुरता. मुळां हें उदक शोशून घेतात ताकालागून

उदकाच्या वेगाचेर नियंत्रण उरता आनी मातयेर ताचो प्रतिकूल परिणाम जायना. हें उदक जमनीच्या सच्छिद्र वाटांवरवीं थंड आनी नितळ झऱ्याच्या आनी व्हाळाच्या रुपान जमनीच्या भायर येता आनी तें खूब काळ तिगून उरता. हाच्या उरफाटें झाडां नाशिल्ल्या वाठारांत पावसाचें उदक व्हांवत वता आसतना वांगडा मातीय उदकावांगडा व्हांवन व्हरता. भारतांत दर वर्सा सुमार ५०० कोटी टन माती अशे तरेन व्हांवन वता. ताका लागून जलविद्युत् आनी शिंपणावळ प्रकल्पावरवीं व्हड गुंतवणूक करून तयार केल्ल्या जलाशयांत भरपूर गाळ साचून थंयची उदक सांठोवपाची तांक उणी जाता.

सैमनिर्मीत जायत्यो वनस्पती आनी मोनजात हांचें अस्तित्व फक्त रानांचेरच पातयेवन आसता अशो वनस्पती, सुकणीं, किडी आनी हांचें आश्रयस्थान म्हूण रानाक म्हत्वाची सुवात आसा. रानांचो विध्वंस जावन तांचें सैमीक निवासस्थान नाजाल्ल्यान जायत्या रानवटी पशुपक्षांच्यो जाती भूंयतळावयल्यान निर्वंश जाल्ल्यो आसात. बरी राखण मेळिल्ल्या रानांत वनस्पत, मोनजात हांकां आलाशिरो मेळटाच, तेचवांगडा ह्या वाठारांतल्यो रमणीय सैमीक देखाव, शांतता आनी नितळ वातावरण हाकालागून मनीस समाजाक खाशेलें मनोरंजनाचें आनी विसवाचें थळ मेळटा. तशेंच ह्या सैमीक जिवांच्या शास्त्रीय अभ्यासाक आनी संशोधनाक वाव मेळटा. तेरवातीरच जायत्या देशांत निसर्गोद्यानां, अभयारण्यां, वनोद्यानां आनी राश्ट्रीय उद्यानां म्हणून वेंचीक रानां राखून दवरिल्लीं आसात.

रानांचें आनी आदिवासींचें जाल्यार खूब पोरनें नातें आसा. रानांच्या सैमीक पर्यावरणाकडे समरस जाल्ल्या आदिवासींची एक खास अशी संस्कृती आसता. अर्थीक नदरेन सगळयांत म्हत्वाचें रानांचें उत्पन्न म्हळयार लांकूड. रानांत सामकें मोव आनी हलकें लांकूड तशेंच सामकें घट्ट आनी सामकें मोव आनी हलके प्रकारय मेळटात, भारतांतल्या रानांत सागवान, बिबळो, चंदन, धावडो, हेदी, सायल, सांवर, ओक, देवदार,स्प्रुस, हिकरी आदी प्रकार चड मेळटात. अशा जायत्या झाडांपासून मेळपी लांकडाक इमारती, जहाजां, रेल्वे वाघीणी, पूल, फर्निचर, लांकडी पिपां, रेल्वेमार्गाचे तळपाट, बंदरां आनी धक्क्यारवातीर वापरपाचे टेकू, अवजारां, लांकडी पेटयो, खेळाचें साहित्य, चित्रचौकटी, पेन्सिली आदी जायत्या सादारण आनी खास उपेगारवातीर एकसारकी मागणी आसता. मूळ लांकडाभायर प्लायवुड, घट्ट फळे ह्या सारके लांकडाचेर प्रक्रिया करून तयार केल्ले लांकडाचे दुय्यम प्रकारय हालीं व्हड प्रमाणांत वापरांत आसात. कांय खाशेल्या जातीच्या लांकडाचो लगदो रॅयॉन आनी कागद हांचे निर्मतीखातीर वापरांत आसा. लांकडाच्या घटकाचो प्लास्टीकच्यो वस्तू तयार करपाखातीर उपेग जाता. विकसनशील देशांतल्या लांकडाच्या उत्पादनाचो खूब व्हड भाग हो इंधनाखातीर वापरांत आसा. भारतासयत जायत्या देशांत लांकडापसून लोणारी कोळसो तयार करपाचे उद्येग व्हड प्रमाणार चलतात. पानांत खावपाचो कात हो पदार्थ खैराच्या लांकडापासून तयार करतात. लांकडापसून हेर खाशेलीं अशीं रसायनां अर्क आनी हेर उद्येगीक पदार्थ मेळटात.

रानांतल्यान विशिश्ट पानां, मुळां, फळां ह्या रुपांतूय मनशाक जायत्या खावपा जिनसांची पुरवण जाता. तेंभायर जनावरांची खावड, खावपाचीं आनी हेर तेलां, वासाळ आनी वखदी द्रव्यां, म्हॉव, रेशीम, रबर, सुतापसून मेळपी दोरी आनी हेर पदार्थ, रेझिनां, गोम, लाख, विडयो वळपाचीं पानां, शिंगां आनी टॅनिनां अशा जायत्या प्रकारचीं उत्पादनां काडूंक येतात. रानांत जीं वेगवेगळीं कामां करतात ताका व्हड प्रमाणांत मनीसबळ लागता. तांकांलागून रोजगारी उपलब्ध करून दिवपाचें रान हें एक बरें आनी उत्पादक अशें साधन थारता.

भारतांतल्या वनांचें वट्ट क्षेत्र सुमार ७.५ कोटी हेक्टर म्हळयार वट्ट भूंयेभागाच्या सुमार २३ % इतलें आसलें तरी वक्षाच्छादीत रानभूंयेचें प्रमाण उणें आसा आनी वेगवेगळया राज्यांत आनी प्रदेशांत ह्या रानक्षेत्राचें वितरण एकसारक्या स्वरुपाचें ना. वट्ट रानक्षेत्र, वट्ट भुगोलिक क्षेत्राकडे रानक्षेत्रांचें प्रमाण आनी दर मनशाफाटलें रानक्षेत्र हाची क्रमवारी लायल्यार देशांतल्या पयल्या धा क्रमांकाचीं राज्यां अशीं आसात :

**वट्ट वनक्षेत्र :** (१) मध्य प्रदेश (२) महाराष्ट्र (३) आंध्र प्रदेश (४) ओरिसा (५) अरुणाचल प्रदेश (६) उत्तर प्रदेश (७) कर्नाटक (८) राजस्थान (९) आसाम (१०) बिहार.

**भुगोलीक क्षेत्राकडे रानक्षेत्राचें प्रमाण :** (१) अंदमान निकोबार (२) मिझोराम (३) मणिपूर (४) अरुणाचल प्रदेश (५) त्रिपुरा (६) मेघालय (७) दाद्रा नगर हवेली (८) आसाम (९) ओरिसा (१०) हिमाचल प्रदेश.

दरडोई रानक्षेत्र (१) अरुणाचल प्रदेश (२) अंदमान निकोबार (३) मिझोराम (४) मणिपूर (५) सिक्कीम (६) मेघालय (७) हिमाचल प्रदेश (८) नागालँड (९) जम्मू काश्मीर (१०) त्रिपुरा.

**रानांचेर आदारिल्ले उद्येग :** पुर्विल्ल्या काळांत मनशाक सगळयो गरजेच्यो वस्तू रानांतल्यान मेळटाल्यो. कारखान्यांखातीर कच्चो माल म्हूण रानउत्पादनाचो आजय व्हड प्रमाणाचेर उपेग जाता.

**काश्ठोद्येग :** राननिर्मीत उद्येगीक कच्च्या मालांत लांकडाक आगळेंच म्हत्व आसा. संवसारांतल्या वट्ट लांकूड उत्पादनांत ५८.७% लांकूड हें उद्येगीक लांकूड म्हूण वापरांत येता. उद्येगीक लांकडाचेर पातयेवन आशिल्ल्या उद्येगधंद्यांत लांकडागिरण उद्येग हो मूळ उद्येग मानतात. भारतांत लांकूड गिरणींतल्यान कापिल्ल्या लांकडाचें उत्पादन सु. ८९ लाख घन मी. आशिल्लें. लांकडाचे खाशेले जातीच्या गुणधर्माप्रमाण कापिल्ल्या लांकडाचे इमारत बांदकाम, फर्निचर, रेल्वे शिळेपाट (स्लीपर), मोटार गाडयांचे सांगाडे, खेळणीं, पेन्सीली आदी प्रकारांचे जायते उद्येगीक उपेग करतात.

लांकडाचेर आदारिल्ल्या उद्येगांत लगदो आनी कागद उद्येगाक म्हत्वाची सुवात आसा. संवसारांत वट्ट सुमार १२ कोटी टन कागदाचो आनी रेयॉनाचो लगदो, २ कोटी टन दिसाळ्याचें कागद आनी १३ कोटी टन हेर कागद आनी पुठ्ठे लांकडापासून तयार करतात. भारतांत १०६ कागद कारखाने आसात आनी तांची उत्पादन तांक सुमार १४ लाख टन आसून प्रत्यक्ष उत्पादन १९८२ - ८३त १२.०३ लाख टन आशिल्लें.

लांकडाच्या उद्येगांत तिसरो म्हत्वाचो उद्येग म्हळ्यार संमिश्र काश्ठोद्योग. हातूंत प्लायवुड, धागी फलक, कणी फलक, ठोकळी फलक आदी लांकडाचे वेगवेगळे प्रकार तयार करपाच्या कारखान्याचो आस्पाव जाता. भारतांत १९८० वर्सा ल्हान - व्हड १०० प्लायवुड कारखाने आशिल्ले आनी तातूंत वेगवेगळ्या १७ तरेचीं उत्पादनां दर वर्सा जातालीं.

ह्या उद्येगाभायर फस्कां उद्येग, पेन्सीली, कापड उद्येगांत लागपी सुतागाडयो, आदी सामान तयार करपी उद्येग, बरोवपाच्यो पाटयांच्यो आनी चित्रांच्यो चवकटी, खेळण्णीं, तुबकाचे दस्ते, हॉकी, क्रिकेट आदी खेळांक लागपी साहित्य तयार करपाच्या कारखान्यांचो काश्ठोद्योगांत आस्पाव जाता. वेगवेगळ्या काश्ठोद्योगांत वापरपाक फाव अशा भारतीय लांकडाच्या जातींचीं उदाहरणां अशीं :

| उत्पादन प्रकार | योग्य झाडाच्यो जाती |
|---|---|
| लगदो / कागद उद्येग, प्लायवुड | कोंडे, मुरवेलपणान मोव लांकडाच्याजातीचीं आनी जायत्या घट लांकडाचीं झाडां, सावर, पदौक, तून, ओक, आंबो, तांबडो देवदार, सागवान, शिसू, अक्रोड, चाफो. |
| फस्काकाडयो | सावर, राळधूप, कदंब, सालई,काकर धूप, इव्होडिया, पॉप्लर. |
| फस्कां | फर, देवदार, स्प्रूस, पाईन, सालई,सावर, आंबो. |
| पेन्सील | सायप्रस, देवदार, सातवीण, बनाती, वारंग, काकर. |
| कापड उद्येग साधनां | हळदू, कदंब, डायकॉप्सिस, घोगर |
| खेळासाहित्य | ॲश, बीच, भूर्ज, मॅपल, अक्रोड, चाफो, शिवण, पॉप्लर, धामणी, वेत, कोंडो, तुती, हेदी. |

रानाचेर आदारीत उद्येगधंद्यांत लोणारी कोळसो तयार करपाच्या उद्येगाकूय खूब म्हत्व आसा. हेर रानोद्येगांत टॅनीननिर्मिती, रेझीन, टर्पेंटाईन उद्येग, कातउद्येग, लाख, बाश्पनशील तेलां, दीरव, विडी उद्येग, रबरनिर्मिती हांचो आस्पाव जाता. हातुंतल्या टॅनिनाखातीर बाभूळ, खैर, बाहवा, तरवड, हिरडो आदी झाडांच्यो साली, पानां वा फळां हांचो उपेग करतात. रेझीन आनी टर्पेंटायन चीरपाइन झाडांपासून मेळटा. कातउद्येग हो खैर झाडाचेर पातयेवन आसता आनी हातूंत कॅटेचीन आनी कॅटेच्यू अशीं दोन रसायनां मेळटात. रानांतल्या उत्पादनापसून भारतांत तयार जावपी बाश्पनशील तेलांत चंदन, लेमनग्रास तेल, सिट्रोनेल, रोशा, खस, निलगिरी, जिरेनियम आनी दालचिनी हांचो आस्पाव जाता. क्विनीन,सर्पगंधा, रानतुळस, इसबगोल, डायॉस्कोरिया, गुळवेल आदी वखदांचे निर्मितीक लागपी जायत्यो मोलादीक वनस्पती भारतीय रानांत मेळटात. पळस, कोशिंब, बोर आदी झाडांचेर वाडपी किड्यांपसून लाख आनी शेलॅक मेळटात. मध्य प्रदेश, महाराष्ट्र, आंध्र प्रदेश, बिहार, ओरिसा ह्या राज्यांत विडी उद्येगाक लागपी तेंडू पानांचें भरपूर उत्पादन जाता. साल, करंज, मोह, कडुलिंबू आदी झाडांच्या बियांपासून मोलादीक अखाद्य तेलां काडटात.

भारतांतल्या रानांपसून मेळपी मुखेल आनी दुय्यम उत्पादनापसून मेळपी राज्यवार उत्पन्न अशें :

**भारतांतलें रानांचें वितरण ( १९८३ - ८४)**

| राज्य | भुगोलिक क्षेत्र (हजार हेक्टर) | रानक्षेत्र (हजार हेक्टर) | वट्ट क्षेत्रांतल्या वनक्षेत्राची टक्केवारी | १९८१चे जनगणनेप्रमाण दरडोई वनक्षेत्र प्रमाण |
|---|---|---|---|---|
| आंध्र प्रदेश | २७,६८२ | ६,३७७ | २३.०३ | ०.१२ |
| आसाम | ७,८५२ | ३,०७१ | ३९.११ | ०.१५ |
| उत्तर प्रदेश | २९,४४१ | ५,१२७ | १७.४१ | ०.०५ |
| ओरिसा | १५,५७८ | ५,९९६ | ३८.४९ | ०.२३ |
| कर्नाटक | १९,१७७ | ३,८६३ | २०.१४ | ०.१० |
| केरळ | ३,८८७ | १,१२२ | २८.८७ | ०.०४ |
| गुजरात | १९,५९८ | १,९६६ | १०.०३ | ०.०६ |
| जम्मू आनी काश्मीर | २२,२२४ | २,१०० | ९.४५ | ०.३५ |
| तमिळनाडू | १३,००७ | २,१७९ | १६.७५ | ०.०५ |
| त्रिपुरा | १,०४८ | ६४० | ६१.०६ | ०.३१ |
| नागालँड | १,६५३ | २८८ | १७.४२ | ०.३७ |
| पंजाब | ५,०३६ | २६४ | ५.२४ | ०.०२ |
| अस्तंत बंगाल | ८,७८५ | १,१८३ | १३.४७ | ०.०२ |
| बिहार | १७,३८८ | २,९२३ | १६.८१ | ०.०४ |

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| मणिपूर | २,२३६ | १,५१० | ६७.५३ | १.०६ |
| मध्य प्रदेश | ४४,२८४ | १५,५४१ | ३५.०९ | ०.३० |
| महाराष्ट्र | ३०,७७६ | ६,४१७ | २०.८५ | ०.१० |
| मेघालय | २,२४९ | ९४८ | ४२.१५ | ०.७१ |
| राजस्थान | ३४,२२१ | ३,१०९ | ९.०९ | ०.९९ |
| सिक्कीम | ७३० | २६५ | ३६.३० | ०.८४ |
| हरयाणा | ४,४२२ | १७२ | ३.८९ | ०.०१ |
| हिमाचल प्रदेश | ५,५६७ | २,१३२ | ३८.३० | ०.५० |
| दिल्ली | १४९ | - | २.६८ | - |
| गोवा दमण, दिव | ३८१ | ९९ | २५.९८ | ०.०९ |
| अंदमान - निकोबार बेटां | ८२९ | ७१४ | ८६.१३ | ३.७८ |
| अरुणाचल प्रदेश | ८,३५ | ५,१७४ | ६१.९० | ८.१९ |
| दाद्रा आनी नगरहवेली | ४९ | २० | ४०.८२ | ०.१९ |
| मिझोराम | २,१०९ | १,६९८ | ८०.५१ | ३.४४ |
| वट्ट भारत | ३,२८,७७९ | ७४,८९८ | २०.७८ | ०.११ |

**रानविद्या :** रानांचें शास्त्रीय पद्धतीन वेवस्थापन करपाचें शास्त्र. नवीं रानां तयार करप तेचपरी, रानांची राखण, संगोपन आनी विकास घडोवन हाडप तेखातीर गरजेचे अशे घटक म्हणजे माती, उदक, हवामान आनी पर्यावरण हांचें नियंत्रण करप, रानांपसून अर्थकारण होय विशय ह्या शास्त्रांत येता. हातूंत ज्या मुखेल गजालींचो आस्पाव जाता त्यो अशो : (१) रान संवर्धन आनी रानराखण (२) रानचित्रण आनी रानमापन (३) लांकूड आनी हेर रानउत्पन्नाचें निश्कर्शण, ताचें प्रतवारीकरण, ताचेवयली प्रक्रिया आनी तांचे विक्रिचें व्यवस्थापन (४) रान अभियांत्रिकी (५) रानटी मोनजात, सुकणीं सांबाळ (६) सामाजिक विद्या.

**रानां आनी रानविद्येचो इतिहास :** दीर्घकाळीन सरासरी हवामान आनी हेर सैमीक घटकांच्या खर प्रभावाक लागून त्या वेळच्या रुखाच्या मुळच्या खुटिल्ल्या रुपांत बदल जावन सद्याच्या वनस्पत झाडांकडे सारकेपण आशिल्लीं रानां तयार जालीं. फुडें थळ आनी काळ ह्या प्रमाण ह्या रानांतूय बदल जावन सद्याच्या रुपांतलीं रानां अस्तित्वांत आयलीं. मनशाचो सगळयांत पयलीं रानांकडेन संबंद आयलो तो मोनजातीच्या कासाक लागून. ते भायर लांकडापसून उब, झाडांचे सालीचीं वल्कलां, कंदमुळां, कासाखातीर ओबडधोबड शस्त्रां हे खातीरय रानाकडे मनशाचो संबंद आयलो. उपरांतच्या शेतीप्रधान जिणे पद्दतींत रानामळां निवळ करून धान्याची लागवड करप आनी शेतांच्या अवजारांखातीर लांकडां तोडप हे खातीर मनीस लांकडाचो उपेग करूंक लागलो. फुडें फुडें रानापसूनचे जायते उपेग जावंक लागले. फळां, वासाळ आनी वखदी वनस्पत जमोवप, घरां, गोरवांचे गोठे, व्हडीं, अवजारां, इंधन आदींखातीर तशेंच शेतीच्या विस्ताराखातीर वेगवेगळया झाडांचीं लांकडां मारप अशे तरेचे जायते उपेग मनीस रानापसून करून घेतालो.

उपनिषदां, रामायण, महाभारत हातूंत रानांचो वा झाडांचो आदरान उल्लेख केल्लो मेळटा. इ.स. आदीं चवथ्या शतमानांतल्या कौटिल्याच्या लिखाणांत रानांची राखण वेवस्था, उत्पादन विनियोग हे विशीं म्हायती मेळटा. चंद्रगुप्त मौर्य हाचे राजवटींत रानांखातीर खास अधिकाऱ्याची नेमणूक जाताली. तशेंच रानक्षेत्राचें वर्गीकरण करून ताचे राखणेची वेवस्थाय अस्तित्वांत आशिल्ली. सम्राट अशोक, ते उपरांत मोगल, मराठे आनी गोंड राजे हांचे मुस्तींत रस्त्याच्या कडांनी आनी सैन्यतळाभोंवतणी झाडांची लागवड केल्ली दिश्टी पडटा. शिवाजी राजाच्या झाडा संवर्धनाविशींची जागरूकता आनी तळमळ ताणें काडिल्ल्या एका खास आज्ञापत्रांत स्पश्ट जाणवता.

रानां म्हळयार आपसुकच निर्माण जावपी आनी केन्नाच सोंपनाशिल्ली सैमीक उपज असो समज कांय आडवाद सोडल्यार पुराय संवसारांत रूढ आशिल्लो. ताकालागून रानांचो नाश जायत रावलो. तशेंच गरजेप्रमाण रानांतल्यान उत्पन्न घेवचें, हे वृत्तीचो अतिरेक जावन थंयच्या वनसंहाराक लागून भुंयप्रदेशाचें रेंवटांत रुपांतर जालें. हाचो परिणाम थंयचे अर्थवेवस्थेचेर आनी समाजवेवस्थेचेर जालो. सतराव्या शतमानांत झुजकाळांत युरोपांत व्हड प्रमाणांत लांकडाचो उणाव भांसूंक लागलो. तेन्ना रान म्हळयार म्हत्वाची साधनसंपत्ती आनी तिची खास जतनाय घेवंक जाय हाची जाणीव थंयच्या समाजकारणी आनी राजकारणी मनशांमदीं जाली. तेन्नाच्यानच शास्त्रीय नदरेंतल्यान रानांचें वेवस्थापन करपाक मुळावण पडलें. सगळयांत पयलीं ही सुरवात जर्मनींत जाली. ते उपरांत युरोपांतल्या हेर देशांत आनी मागीर भारतांत तिचो प्रसार जालो.

भारतांत ब्रिटिशांची सत्ता येमेरेन रानांच्या शास्त्रोक्त वेवस्थापन आनी पुनरुत्पादनाची जाणविकाय नाशिल्ली. ब्रिटीश राजवट येतकच सुरवातीच्या काळांत रानांतल्यान वेपारी म्हत्वाच्या झाडांची तोड जाताली. तशेंच इमारतीचीं बरींबरीं लांकडां, वखदी आनी वासाचीं द्रव्यां परदेशांत निर्यात जातालीं. पूण १८०६ उपरांत युरोपांतल्या रानाच्या वेवस्थापनाविशींचो प्रभाव भारतांतल्या ब्रिटीश राजकर्त्यांचेर पडलो. अशे तरेन रानांचें प्रशासन पद्दतशीरपणान जावपाक सुरवात जाली. १८४२ त भारतांतलें पयलें सागवानाचें रोपवन मलबारांत कोनोली आनी चाथू मेनन हांणी निर्माण केलें. १८४७ वर्सा भारतांत सगळयांत आदीं मुंबय वाठारांत गीब्सन हाची रानसंरक्षक म्हूण नेमणूक जाली. १८५६ वर्सा मद्रास आनी उपरांत हेर प्रांतांत स्वतंत्र अधिकारी नेमले. १८५५ वर्सा तेन्नाचो गव्हर्नर जनरल लॉर्ड डलहौसी हाणें देशांतले रानवेवस्थापनेविशीं एक सविस्तर निवेदन जारी केलें. तेन्नाच भारताच्या

रानांसांबाळ वावराक पद्दतशीरपणान सुरवात जाली. १८६४ वर्सा सर डिट्रिच बँड्रिस ह्या जर्मनरानशास्त्रज्ञाची भारताचो पयलो रान महानिरीक्षक म्हूण नेमणूक जाली. तेन्नाच्यान खाशेलें प्रशिक्षण घेतिल्ले रानाधिकारी भारताच्या रानांत शास्त्रोक्त रानांसांबाळ आनी वेवस्थापनाच्या कामाखातीर मेळूंक लागले. ह्या अधिकाऱ्यांनी एकुणिसाव्या शतमानाच्या उत्तरार्धांत ब्रिटीश सत्तेखाल रानवाठाराचें सीमांकन करून नकाशे तयार करप, रानांचो सविस्तर अभ्यास करून वाषरा येवजण तयार करप आनी रानोपंजाच्या निश्कर्षणाची आनी पुनरुत्पादनाची पद्दतशीर कार्यावळ हीं कामां केलीं आनी तेप्रमाण शास्त्रोक्त वेवस्थापन सुरू जालें. १८६५त भारतांतय रानांविशींचे खास अधीनेम लागू केले. १८९४ वर्सा तेन्नाच्या शासनान भारताच्या वनस्पतीविशींचो एक थाराव केलो. हें भारताचें पयलें अधिकृत रानां धोरण १८७८ त डेहराडून आनी १९१२ त कोईमतूर हांगा रानां प्रशिक्षणाच्यो संस्था आनी १९०६ त डेहराडुनाक मध्यवर्ती रानां संशोधन संस्था सुरू जाल्यो.

१९५२ वर्सा, स्वतंत्र भारताची पयली राननीती थारायली. ह्या काळांत रानांचेर आदारिल्ले जायते नवे उद्येगधंदे प्रस्थापित जाले. राज्य फेररचणूक, संस्थानाचें विलीनीकरण आनी कांय खाजगी रानांवयल्या मालकी हक्कांचें उच्चाटन हाकालागून शास्त्रोक्त रानवेवस्थापनाखाल रानांचें क्षेत्र वाडलें. तरीपूण भराभर वाडपी लोकसंख्या, भुंयहीन कामगारांची जमनीची एकसारकी मागणी, शिंपणावळ आनी विद्युत् निर्मिती प्रकल्प आनी उद्येगक्षेत्रांतली वाड हाकालागून रानांच्या विस्तारांत घट आयली. तशेंच पंचवर्सुकी येवजणेंतूय रानांचे उदरगतीखातीर केल्ली गुंतवणूक खुबूच उणी आशिल्ल्यान नवीं रोपवनां आनी रानकरणाच्या प्रकल्पाचे यत्न उणे जाले. फुडें 'रानां उदरगत मंडळ' नांवाच्यो संस्था सुरू करून केंद्र सरकारान रान उदरगतीच्या व्हड प्रकल्पाक सुरवात केली. १९८०त केंद्र शासनान, 'रानां सांबाळ' अधिनेम१९८० हो कायदो करून निर्वनीकरणाचे प्रक्रियेक चालना दिली. ' वर्ल्ड लायफ फंड', 'फ्रेंडस ऑफ ट्रीज' ह्या सारक्यो संघटनां तशेंच 'चिपको' आनी 'अप्पिको' ह्या सारकीं आंदोलनां हाकालागून पर्यावरण आनी सांबाळ हांकां म्हत्व आयलें.

**रान संवर्धन :** रान संवर्धन म्हळ्यार रानांत जाय आशिल्लीं झाडां आनी हेर वनस्पती समुहाचें उत्पादन करप आनी ताची जतनाय घेवप. रान संवर्धनशास्त्र हें रानांतल्या वट्ट वनस्पती समुदायाच्या पुनरुत्पादनाकडेन आनी वाडीकडे संबंदीत आसता. अशा वनस्पत समुदायाक रानसंवर्धनशास्त्रांत 'रानसस्य' अशें म्हण्टात. जमनीच्या कमाल उत्पादन क्षमतेचो वापर करून अखंड उत्पादन निर्मिती करप, तांची जतनाय घेवप आनी ताचो विकास करप हे रानसंवर्धनाचे मुखेल हेत आसतात. रानसस्याचें सैमिक वा कृत्रीम तरेन उत्पादन करप आनी निर्माण जाल्ल्या रानसस्याची जतनाय घेवप अशे रानसंवर्धनाचे दोन मुखेल भाग आसतात. पोरनें रानसस्य तोडटकच त्या जाग्यार नव्या रानसस्याची निर्मिती करप हाका रान पुनरुत्पादन, रानपुनरूद्भवन वा रानपुनर्जनन अशें म्हण्टात. रानसस्याच्या संवर्धनाचो दुसरो मुखेल भाग म्हळ्यार पुनरुत्पादित रानांची जतनाय घेवप हाका रानसंगोपन अशें म्हण्टात.

**सैमीक पुनरुत्पादन :** खाशेल्या जातीच्या झाडाचें सैमीक पुनरुत्पादन जावचें देखून रानांतल्या भुंयेवाठाराचो अभ्यास करून जमनींत ते जातीच्यो बियो किल्लावन ते जातीचीं सैमीक रोपां वाडचीं देखून ते परिस्थितींत फाव ते बदल घडोवन हाडचे पडटात. आर्द्र प्रकारच्या सागवानी रानांतल्या वयल्या रानथरांत जायतीं बिगर सागवानी आर्द्रतासहिश्ण झाडां आसतात. त्या पोंदच्या स्तरांत आनी भुंयेचेर बऱ्याच झाडांची दाटी आसता. ताका लागून सागाचें बीं किल्लून येवपाक त्रास जाता. तशेंच सुक्या आनी फक्त सागांचीं झाडां आशिल्ल्या वनसस्याखालच्यो जमनी चडकरून दर वर्सा लागपी वणव्याकलागून आनी गोरवाचें अती चारणेकलागून टणक आनी उगड्यो आसतात. अशे जमनींतय साग सहज किल्लून येता. आर्द्र रानांत बरींच वर्सां सतत आनी कुशळतायेन झाडां लावपाचें उणें केल्यार आनी सुक्या रानांत जमनीची मशागत करून झाडां रोवपाची घनता वाडयल्यार ह्या दोनय प्रकारच्या रानांत सैमीक पुनरुत्पादन करूंक येता. साल, देवदार आनी हिरडो ह्या प्रकारच्या वनसस्याचो सैमीक पुनरुत्पादनाखातीर ते ते परिस्थितीप्रमाण विशिश्ट पुनरुत्पादन तंत्रां निर्माण जाल्लीं आसात.

**कृत्रिम पुनरुत्पादन :** जेन्ना सैमीक पुनरुत्पादन जायत्या प्रमाणांत रूजवप शक्य नासता तेन्ना रानाची तोडणी करून पुरायतरेन नव्या जातीचें वनसस्य तयार करपाचें आसता. तेन्ना कृत्रिम पुनरुत्पादन ( नव्या झाडाची लागवड) करचें पडटा. हाकाच वनविद्येंत रानरोपण अशें म्हण्टात. जाल्यार ते लागवडीपसून निर्माण जावपी वनसस्याक रोपवन म्हण्टात. दर एका झाडाचे जातीच्या सैमीक गुणधर्माप्रमाण आनी लागवडीच्या जाग्याच्या माती, जलवायुमान आनी हेर परिस्थितीप्रमाण लागवडीचें तंत्र आनी कार्यपद्दती थरिल्ल्यो आसात. भारतांत सागवानाभायर पाइन, देवदार, पॉप्लर, निलगिरी, सुबाभूळ, शिरीष, सांवर, चंदन, कोंडे अशा जायत्या जातींचीं रानरोपणां करपांत येतात. संवसारांतलें सगळयांत पयलें सागवानी रोपरान १८४६ वर्सा भारतांत जालें. केरळांतल्या निलांबुर हांगा अजुनय ह्या सागवानी रोपवनाचो भाग जतनायेन दवरिल्लो आसा.

अस्तंत युरोपांत आनी उत्तर अमेरिकेंत कृत्रिम पुनरुत्पादनाची पद्दत सर्रास वापरतात. कृषी रान रोपण होय एक कृत्रिम रानपुनरुत्पादनाचो प्रकार आसा. हाका उत्तर भारतांत ' टाँग्या' पद्दत अशें म्हण्टात.

**रान संगोपनांतल्यो म्हत्वाच्यो संक्रिया :** नवें रानसस्य

ह्या काळांत नडणी, नितळसाण, छाटणी आनी विरळणी ह्यो म्हत्वाच्यो क्रिया करच्यो पडटात. लागवड केल्ल्या नव्या रोंपाची फाव ती वाड जावचेखातीर तांचे भोंवतणी आयिल्ली हेर वनस्पत हुमटून उडोवपाचे क्रियेक नडणी म्हण्टात. वनस्पत ल्हान अवस्थेंत आसतना तातुंतल्या मुखेल झाडाचे वाडीक उत्तेजन दिवपाखातीर नितळसाण संक्रिया करप जाता. नडणी आनी नितळसाण ह्या संक्रियांक लागून जोमान वाड जाल्ल्या रोपवनातंलीं झाडां रोखडींच वाडटात आनी तीं एकामेकांक तेंकतात. तेन्ना तांची वाड बरे तरेन जावची देखून थरावीक काळान थरावीक झाडां काडून उंडयतात, हे संक्रियेक विरळणी अशें म्हण्टात. विरळणींत काडिल्ल्या झाडांपसून मेळपी उत्पन्नाक रानविद्येंत ' अंतरिम उत्पन्न', म्हण्टात. ते तोडणीच्या उपजाक अंतरिम उपज अशें म्हण्टात. जाल्यार वनस्पत जून जावन निमाणें जी निमणी तोडणी जाता तेन्ना मेळपी उपजाक आनी उत्पन्नाक 'अंतिम उपज' आनी अंतिम उत्पन्न अशें म्हण्टात.

**रानसंवर्धन पद्दत :** वनस्पत फाव त्या विकासाखातीर आनी निमणी तोडणी केल्या उपरांत खास प्रकारची पुनर्निर्मिती मेळची देखून वनसंवर्धन तत्त्वाचेर आदारिल्ल्या खास प्रकारच्या तोडणी, संगोपन आनी पुनरुत्पादन रानसंक्रियांचो आस्पाव आसपी कार्यप्रणालीक रानसंवर्धन पद्दत अशें म्हण्टात. रानसांबाळ पद्दतीचे दोन मुखेल विभाग आसात. ताका बीजरान पद्दत आनी फुटवीं रानां पद्दत अशें म्हण्टात आनी हे पद्दतीवरवीं तयार जावपी नवे राननिर्मितीक अनुक्रमान बीज रानां आनी फुटवीं रानां अशें म्हण्टात. बीज रानां हीं बियांपसून किल्लल्या आनी सरळ वाडिल्ल्या झाडांचीं आसतात. जाल्यार फुटवीं रानां किल्लल्या रोपाचीं जमनीकडे छाटणी करून निर्माण जाल्ल्या फुटव्यांपसून तयार जाल्लीं झाडां आसतात. बीज रानपद्दत आनी फुटवीं रान पद्दत हातूंत जायत्या प्रमाणींत रानसंवर्धन पद्दतीचो आस्पाव आसता. देखीक -

**गट - १ :** बीज रान पद्दत, निःशेश तोडणी पद्दत, निःशेश पट्टा पद्दत, समान वय पद्दत, वेंचीक पद्दत, द्विस्तरीय बीजवन पद्दत.

**गट - २ :** फुटवी रान पद्दत, सरळ फुटवी पद्दत, निशाण फुटवी आनी आच्छादक फुटवी पद्दत.

रानांची निर्मिती, तांचें संवर्धन हाचे वांगडाच तांची राखण करप तितलेंच म्हत्वाचें आसा. मनीसजात आनी मोनजातीच्या अतिरेकी वापरांत रानांचें नुकसान जाता. तशेंच वादळां, पावस, बुट्टी, वीज, उजो सारकिल्ल्या अवर्शणांतय रानांची नाशाडी जावपाची शक्यताय आसता. समाजीक प्रबोधन (समाजीक रानकरण) सारक्यो चळवळी, सैमीक अवर्शणां आड घेतिल्ली जतनाय आनी रानांचें नुकसान करपी घटकांआड घेतिल्ले उपाय हांचेवरवीं रानाचें संरक्षण करप गरजेचें आसा.

**रानसंशोधन :** इ.स. १९०६ त डेहराडून हांगा रानसंशोधन संस्था स्थापन जाली. रानसंशोधन क्षेत्रांत आंतरराश्ट्रीय मान्यता मेळिल्ली अद्ययावत संशोधन संस्था आसून तिच्यांतल्या संशोधन विशयाचीं विभागवार उदाहरणां अशीं आसात -

**(अ) रानविद्या संशोधनः** (१) रानांसांबाळ (२) रानपरिस्थितीविज्ञान (३) रान भूंयविज्ञान (४) रान आनुवंशिकी (५) रानमिती (६) रान वेवस्थापन (७) रान अर्थशास्त्र (८) प्रकाश्ठ - निश्कर्शणशास्त्र (९) रानोपजाचें रसायनशास्त्र आदी.

**(आ) जीव विज्ञानीक संशोधन :** (१) लांकूड रचनाशास्त्र (२) वनस्पतिरोगविज्ञान (३) कीटकविज्ञान आदी.

**(इ) रानोपज संशोधन :** (१) लांकूड रापोवपाचे आनी परिक्षणाचें शास्त्र (२) प्रकाश्ठ अभियांत्रिकी (३) लांकूड कापपाच्यो गिरण्यो आनी लांकूडकाम (४) संयुक्त काश्ठ (५) लगदो आनी कागदनिर्मिती आदी.

हे भायर देशांत हे संस्थेचीं चार प्रदेशीक केंद्रां कोईमतूर, जबलपूर, बर्नीहाट आनी बेंगलोर हांगा आसात. तशेंच विशिश्ट प्रकल्पाचीं जायतीं ल्हान व्हड केंद्रां आनी प्रयोगशाळा हेर जायतेकडेन आसात. दर एका राज्याच्या रानसंशोधना संबंदींच्यो थळाव्यो गरजो भागोवपाखातीर त्या त्या राज्यशासनाच्यो स्वतंत्र रानसंशोधन संस्था, संशोधन केंद्रां आनी प्रयोगशाळाय आसात.

**रानांविशींचे कायदे :** राश्ट्रीय वनधोरण थारायतकच तें प्रत्यक्ष चालीक लावंक येवचें आनी धोरणाचीं खाशेलपणां सादचेखातीर जी कार्यवाही वा यत्न करचे पडटात ताचेखातीर रानधोरणाक योग्य असो रानाविशींचो कायदो करप गरजेचें आसता. वेगवेगळया देशांतले परिस्थितीप्रमाण रानाविशींच्या धोरणांत जशें वेगळेंपण आसता, तशें वेगवेगळया देशांतल्या रानांविशींच्या कायद्यांतय वेगळेंपण आसता. भारतांत १८६५ त पयलो भारतीय रानकायदो चालीक आयलो. १८९७ - १९१९ ह्या काळांत तातूंत बऱ्योच सुदारणा करपांत आयल्यो. १९२७ वर्सा त्या आदल्या सगळया संबंदीत कायद्याचें एकत्रीकरण करपांत आयलें. होच १९२७ चो भारतीय रान अधीनेम. हातूंत वेगवेगळया राज्यांनी वेळच्यावेळार केल्ल्या बदलांसयत सद्या भारताच्या सगळया राज्यांत लागू आसा. १९८० वर्सा लोकसभेन रान संरक्षण अधिनेम ह्या नांवाचो कायदो मंजूर केलो. तातुंतले तरतुदीप्रमाण केंद्र शासनाचे पुर्वसंमतीबगर राखीव रानांतल्या खंयच्याय क्षेत्राच्या निर्वनीकरणाचेर खर निर्बंध घाल्यात. उपरांतच्या काळांत रानटी जीवांच्या सर्वंकश संरक्षणाच्या आनी संवर्धनाचे नदरेन तशेंच अभयारण्यां आनी राश्ट्रीय उद्यानां हांच्या विकासाचे नदरेन गरजेच्यो अशो तरतुदी आसपी एक खास अधीनेम 'रान जीव संरक्षण अधिनेम १९७२' ह्या नांवान राज्याच्या पूर्वसंमतीन लोकसभेंत संमत जालो.

**रानविद्याविशींच्यो संस्था आनी प्रकाशनां :** रानांच्या अर्थीक

आनी पर्यावरणाविशींच्या म्हत्वाकलागून संवसारीक मळार आनी बऱ्याच देशांत रानविद्येच्यो संशोधन आनी प्रशिक्षणांविशींच्यो संस्था स्थापन जाल्ल्यो आसात. संवसारांत शंभरांपरस चड देशांत अशो संस्था आसात. तातुंतल्यो मुखेल संस्था आनी तांचीं प्रकाशनां अशीं-

**आंतरराष्ट्रीय :** (१) संयुक्त राष्ट्रांची अन्न आनी शेती संघटना, रोम, इटली, स्थापना - १९४५. प्रकाशन : युनासिल्वा (तिम्हयनाळें); (२) इंटरनॅशनल युनियन ऑफ फॉरेस्ट्री रिसर्च ऑर्गनायझेशन्स, व्हिएन्ना, ऑस्ट्रिया, स्थापना : १८९२. प्रकाशन : वर्सुकी अहवाल कॉंग्रेस प्रोसीडिंग्ज, आय. यू. एफ. आर. न्यूज (त्रैमासिक); (३) कॉमन वेल्थ फॉरेस्ट्री ब्यूरो, ऑक्सफर्ड - इंग्लंड : स्थापना : १९३८. प्रकाशनां : फॉरेस्ट्री ॲबस्ट्रॅक्ट्स आनी फॉरेस्ट प्रॉडक्टस ॲबस्ट्रॅक्ट्स (म्हयनाळें).

**अमेरिकेच्याी संयुक्त संस्थानां:** कांय मुखेल राष्ट्रीय संस्था-

अमेरिकन फॉरेस्ट्री ॲसोसिएशन, वॉशिंग्टन (१८७५) ; सोसायटी ऑफ अमेरिकन फॉरेस्टर्स, बेथेसड (१९००); नॅशनल वाइल्डलाइफ फेडरेशन, वॉशिंग्टन ( १९३६), वाइल्डलाइफ मॅनेजमेंट इन्स्टिटयूट, वॉशिंग्टन (१९४६); वाइल्डलाइफ सोसायटी, बेथेसडा (१९३७); फॉरेस्ट प्रॉडक्टस रिसर्च सोसायटी, मॅडिसन, विस्कॉन्सिन (१९४७).

**ऑस्ट्रेलिया :** कॉमनलेल्थ फोरेस्ट्री ॲंड टिंबर ब्युरो, कॅनबरा ( १९७५).

**इंग्लंड (युनायटेड किंग्डम) :** कॉमनवेल्थ फॉरेस्ट्री असोसिएशन, ऑक्सफर्ड (१९२१); इन्स्टिटयूट ऑफ चार्टर्ड फॉरेस्टर्स (१९७३); रोयल फॉरेस्ट्री सोसायटी ऑफ इंग्लंड, वेल्स ॲंड नॉर्दर्न आयर्लंड, ट्रिंग हर्टस ( १८८२); रॉयल स्कॉटिश फॉरेस्ट्री सोसायटी, एडिंबरो (१८५४); कॉमनवेल्थ फॉरेस्ट्री इन्स्टिटयूट; ऑक्सफर्ड (१९२४); फॉरेस्ट्री कमिशन, रिसर्च ॲंड डेव्हलपमेंट डिव्हिजन (१९१९).

**कॅनडा :** कॅनडियन फॉरेस्ट्री सर्व्हिस, ओटोवा (१८९९); फॉरिनटेक आनी फॉरेस्ट इंजिनिअरिंग रिसर्च इन्स्टिटयूट ऑफ कॅनडा (संलग्न संस्था).

**चीन :** चायनीज ॲकॅडेमी ऑफ फॉरेस्ट्री, बीजिंग (१९७८); हे संस्थेकडे ज्यो आठ संस्था संलग्न आसात त्यो अशो : (१) फॉरेस्ट्री रिसर्च इन्स्टिटयूट, बीजिंग (२) सब - ट्रॉपिकल फॉरेस्ट्री रिसर्च इन्स्टिटयूट, फूयांग काउंटी, जजिआँग (३) ट्रॉपिकल फॉरेस्ट्री रिसर्च इन्स्टिटयूट, ग्वांजो, ग्वांगटुंग (४) लॅक रिसर्च इन्स्टिटयूट जिंगडाँग काउंटी, युनान (५) वुड रिसर्च इन्स्टिटयूट, बीजिंग (६) कॅमिकल प्रॉसेसिंग ॲंड फॉरेस्ट प्रॉडक्टस युटिलायझेशन रिसर्च इन्स्टिटयूट, नानकिंग जिआंगसू (७) फॉरेस्ट इकॉनॉमिक्स रिसर्च इन्स्टिटयूट, बीजिंग (८) सायंटिफिक ॲंड टेक्निकल फॉरेस्ट्री इन्फर्मेशन इन्स्टिटयूट, बीजिंग.

**जपान :** (१) जपान वुड रिसर्च सोसायटी, टोकिओ (१९५५) (२) जपानीज फॉरेस्ट्री सोसायटी, टोकिओ ( १९१४) (३) फॉरेस्ट ॲंड प्रॉडक्टस रिसर्च इन्स्टिटयूट, इबाटकी (१८७८).

**अस्तंत जर्मनी :** Deutsche Gesellschaft fur Halzforschung. ev, म्यूनिक (१९४२).

**फिनलंड :** सोसायटी ऑफ फॉरेस्ट्री इन फिनलंड, हेलसिंकी (१९०९).

**फ्रांस :** Centre National du Machinisme Agricule du Genie Rural, Des Eauxet Des Forests, पॅरिस (१९४६); Centre Technique Forestier Tropical (CTFT) Nogent - Sur - Marne.

**रशिया :** इन्स्टिटयूट ऑफ फॉरेस्ट्री, पेट्रोझाव्होटस्क स्वीडन, Kungl Skugs - OCL Lantbruksakademien (रॉयल स्वीडिश ॲकॅडेमी ऑफ ॲग्रिकल्चर ॲंड फॉरेस्ट्री, स्टॉकहोम).

**भारत :** रानसंशोधन संस्था आनी म्हाविद्यालयां, डेहराडून (१९०६). मुखेल विभाग : (१) रानविद्या प्रशिक्षण (२) रानविद्या संशोधन (३) जीवविज्ञान संशोधन (४) रानोत्पादन (५) रान जीव संशोधन आनी प्रशिक्षण : इंडियन फॉरेस्ट रेकॉर्डस, इंडियन फॉरेस्ट बुलेटिन्स, एफ्. आर. आय क्वार्टर्ली न्यूजलेटर, इंडियन फॉरेस्टर.

- कों. वि. सं. मं.

## रानकोंबडी :

**रानकोंबडी :** हांचो आस्पाव फॅजिॲनिडी ह्या पक्षिकुळांत जाता. भारतांत रानकोंबड्यांच्यो दोन जाती मेळटात. एक तांबडी रानकोंबडी आनी दुसरी पुडीकोराची. तांबडे रानकोंबडेचें शास्त्रीय नांव गॅलस गॅलस आनी पुडिकोराचे रानकोंबडेचें शास्त्रीय नांव गॅ. सोनेरेटाय.

**तांबडी रानकोंबडी :** भारत, (मियानमार) ब्रह्मदेश, थायलंड, मलाया, द्वीपकल्प, सुमात्रा आदी वाठारांत हो पक्षी मेळटा. भारतांत हिमालयाच्या दोंगुल्ल्यांसावन उदेंतेक आसाम, बंगाल, ओरिसामेरेन आनी दक्षिणेक गोदावरी न्हंयेमेरेन ती मेळटा. हिमालयांत १५२५ मी. उंचायेचेर रानकोंबडी दिश्टी पडटा. हें चडकरून रानांत रावपी सवणें आसलें तरी दाट झोपां आशिल्ल्या रानांत तो चड दिश्टी पडटा.

नर आनी मादी हांच्या रंगांत फरक आसता. नराचें शेंकरें आनी मानेवयलीं पिसां नारींगी, तांबडो वा हळदुवीं, फाटीचो रंग तिकतिकीत काळसर तांबडो, शेपडी आनी तिका धापंपी पिसां पाचवीं आनी जांभळी सया आशिल्ल्या काळया रंगाचीं, पोटाकडलो भाग काळोसो आसता. मादीचो रंग सादो तपकिरी आनी ताचेर रेगो, शरिराचो सकयलो भाग तांबसो तपकिरी, शेपडेचीं पिसां गडद तपकिरी आनी शेंकरें तांबशें आसता.

तीन चार मादी आनी एक नर अशी तांची टोळी आसता. धान्य, बीं, वनस्पतीचे कोंब, किडे, शेड्डे हें तांचें भक्ष्य. तांचो आवाज

पाळीव कुकडांवरी पूण चड कर्कश आसता.

मार्च ते मे हो तांचो विणीचो काळ. दाट झोपाच्या मुळांत उथळ खळगी करून तातूंत सुकिल्ल्या पानां पसून घोटेर तयार करतात. मादी ५ - ६ तांतयां घालता.

**पुडिकोराची रानकोंबडी :** ही जात फकत भारतांतच मेळपी आसून अस्तंत आनी दक्षिण भारतांतल्या रानांत ती रावता. ती भित्र्या स्वभावाची आसा. दिसाची ती लिपून रावता आनी फांतोडेर तशेंच सांजवेळची भक्ष्य सोदपाखातीर भायर सरता. धान्य, बीं, किडे, ल्हान फळां आनी कोंब हें तांचें भक्ष्य. तांच्या प्रजोत्पादनाचो काळ फेब्रुवारी सावन मे मेरेन आसता.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : कुकड

**रानडे, नीलकंठ बाबाजी :** (जल्म : १८७२; मरणः १९१८).

मराठी कोशकार. ताचें मुळावें शिक्षण मुंबयच्या विल्सन हायस्कुलांत जालें. ताणें विल्सन कॉलेजींतल्यान बी. ए. मेरेनचें शिक्षण पुराय केलें. पदवी मेळयल्याउपरांत कांय काळ भावनगर हांगा इंग्लीश आनी इतिहास ह्या विशयांचो प्राध्यापक म्हूण काम केलें. १९०३ - १६ ह्या काळांत 'द ट्वेंटिएथ सेंच्युरी इंग्लीश - मराठी डिक्शनरी' हें १६ खंडांनी रानडे हाणें केल्लें म्हत्वाचें कार्य. रानडेच्या कोशापयलीं मेजर टॉमस कँडीन १८४० - ४७ ह्या काळांत इंग्लीश - मराठी कोश तयार केल्लो. पूण त्या उपरांतच्या काळांत मराठी भाशेच्या स्वरुपांत पडिल्लो फरक आनी शब्दसंग्रहांत पडिल्ली भर मतींत घेवन रानडेन आपलो कोश तयार केलो. तेखातीर जाय थंय अस्तंती शास्त्रांत आशिल्ल्या विद्वानांचो ताणें आदार घेतलो. कोशांतलो परिभाषिक शब्द संबंदीत शास्त्रांतल्या तज्ञांचे नदरेसकयल वतले हें ताणें जाणलें. ताकालागून मराठी भास गिरेस्त करपाचे नदरेतल्यान हें काम मोलाचें थरलें. हेर इंग्लीश मराठी शब्दकोशांचे तुळेन रानडे हाणें संपादीत केल्ल्या कोशाक उंचेली सुवात मेळळया. १९७७ त शब्दकोशाची नवी आवृत्ती आयली.

- कों. वि. सं. मं.

**रानडे, महादेव गोविंद :** (जल्म : १८ जानेवारी १८४२, निफाड, जि. नासिक; मरण : १६ जानेवारी १९०१, मुंबय).

महाराष्ट्रांतलो एक व्हड विचारवंत, व्यासंगी विद्वान, समाज सुदारक. राश्ट्रीय पांवड्यार अर्थीक, राजकीय, समाजीक आनी धर्मीक मळार व्हड योगदान दिवपी तत्त्वज्ञ आनी मार्गदर्शक. आर्विल्ल्या भारताचो निर्मातो म्हणून ज्या म्हापुरसांचो उल्लेख जाता, तांच्यांत न्यायमूर्ती महादेव रानडे हाका म्हत्वाची सुवात फाव जाता. ताचो बापूय पयलीं नगर जिल्ह्यांतल्या दुय्यम जिल्होधिकाऱ्याच्या हाताखाल



कारकून आशिल्लो, उपरांत तो कोल्हापूरच्या कारभाऱ्याकडे जबाबनिशीच्या हुद्दयाचेर काम करूंक लागलो. महादेवाचे आवयचें नांव गोपिकाबाई.

महादेवाचें मराठी आनी मुळावें इंग्लीश शिक्षण कोल्हापूराक जालें. फुडल्या शिक्षणाची थंय वेवस्था नाशिल्ल्यान, बापायन ताका इ.स. १८५६ वर्सा मुंबय एल्फिन्स्टन हायस्कुलांत धाडलो. इ.स. १८६२ वर्सा महादेवराव बी.ए. चे परीक्षेंत पयल्या वर्गांत पास जालो. कॉलेजींत आसतना विद्यालयीन अभ्यासाभायर ताणें इतिहास, काव्य, निबंद, भोंवडेवर्णनां, कादंबऱ्यो ह्या विशयांवयल्या ग्रंथांचें वाचन केलें. उपरांत ताणें इतिहास आनी अर्थशास्त्र हे विशय घेवन ऑनर्सची परिक्षा दिली. बी.ए. जावचेपयलीं म्हळयार इ.स. १८६१ वर्सासावन तो अध्यापनाचेंय काम करतालो. इतिहास, भूगोल, गणित, अर्थशास्त्र, तर्कशास्त्र, निबंदलिखाण, इंग्लीश हे विशय तो शिकयतालो. इ.स. १८६४ वर्सा इतिहास विशय घेवन तो एम्.ए. जालो आनी १८६६ वर्सा ताणें कायद्याचीय परिक्षा दिली. ह्यो दोनूय परिक्षा भोवमानान पास जाल्ल्यान मुंबय विद्यापिठाचो पयलो फेलो म्हूण ताची निवड जाली. दोन वर्सां सुमार 'ओरिएंटल ट्रान्सलेटर' म्हूण काम करतकच जून १८६८ वर्सा ताची एल्फिन्स्टन महाविद्यालयांत इंग्लीश आनी इतिहासाचो प्राध्यापक म्हूण नेमणूक जाली. अक्कलकोट आनी कोल्हापूर हांगा अनुक्रमान कारभारी आनी न्यायाधीश म्हणूनय ताणें काम केलें. उपरांत तो स्मॉल कॉज कोर्टाचो न्यायाधिश, केन्ना पोलिस दंडाधिकारी, केन्ना हायकोर्टाचो डेप्युटी वा असिस्टंट रजिस्ट्रार म्हूण काम करतालो. इ.स. १८७९ वर्सा मुंबय सरकाराच्या न्याय खात्यांत कनिश्ठ न्यायाधीश म्हूण ताणें प्रवेश केलो. इ.स. १८८१ वर्सा ताची 'प्रेसिडेन्सी मॅजिस्ट्रेट' म्हूण नेमणूक जाली. तेन्नाच ताचे प्रेरणेन बायलांच्या शिक्षणाखातीर पुण्यांत 'फिमेल हायस्कूल' सुरू जालें. इ.स. १८८५ वर्सा ताका मुंबय उच्च न्यायालयाचो न्यायमूर्ती म्हूण बढती मेळळी. न्यायाधीश पदाचेर आसतना १८८५ वर्सा ताची मुंबय कायदे मंडळाचेर कायद्याचो सल्लागार म्हूण नेमणूक जाली. १८९० आनी १८९३ वर्सा तो मुंबय प्रांत मंडळाचो वांगडी आशिल्लो.

न्यायमूर्ती रानडे हाचें इंग्लीश, मराठी आनी संस्कृत ह्या तीनूय भाशांचेर प्रभुत्व आशिल्लें. भारतीय नदरेन भारताच्या इतिहासाचें परत बरप करूंक जाय अशें ताचें मत आशिल्लें. ताणें दोन लग्नां केलीं. पयले बायलेक १८७३ वर्सा मरण येतकच, जाण्ट्या बापायचे सांगणेक लागून, ताका साताऱ्याच्या कुर्लेकर घराण्यांतल्या रमाबाई नांवाचे चलयेकडे दुसरें लग्न करचें पडलें. फुडाराक तिका स्त्री -

शिक्षण चळवळीचो प्रवर्तक म्हूण खूब नामना मेळ्ळी. तेन्ना महादेवरावाची पिराय एकतीस वर्सां आनी बायलेची पिराय इकरा वर्सांची आशिल्ली. बालविवाहाचो निशेध आनी विधवाविवाहाचो पुरस्कार करपी महादेवरावान इकरा वर्सांचे चलयेकडे लग्न केल्ल्यान लोकांनी ताचेर खूब टिका केली.

रानडे सर्वांगीण सुदारणेचो पुरस्कर्तो आशिल्लो. राजकारण, अर्थकारण, धर्मकारण आनी समाजकारण हीं समाजाचीं वेगवेगळीं आंगां एकामेकांकडे संबंदीत आसात, तेखातीर समाजजिणेचो बारिकसाणेन विचार करूंक जाय, हें ताच्या समाजकारणाचें पयलें तत्त्व. त्या काळांत परदेशी भोंवडी निशिध्द मानताले आनी भोंवडेक सावन परत येतकच प्रायश्चित घेवचें पडटालें. देखून असले परदेशी भोंवडेक मान्यताय तशेंच बायलांच्या मालमत्तेच्या हक्काक न्हयकार आनी बायलांच्या शिक्षणाक प्रतिबंध ह्यो मुखेल समाजीक अडचणी आशिल्ल्यो. हातुंतल्यो कांय अडचणी सोडोवपाक ताका यश मेळ्ळें. इ.स. १८६२ वर्सा कांय म्हयने ताणें 'इंदुप्रकाश' ह्या खबरेपत्राच्या इंग्लीश विभागांतल्यान समाजसुदारणेचेर लेख बरयले. १८६५ वर्सा विधवांच्या लग्नांक उर्बा दिवपी मंडळाची स्थापणूक जाली आनी १८६९ वर्सा त्या मंडळान एक विधवाविवाह घडोवन हाडलो. तेन्ना सनातन धर्माच्या अभिमान्यांनी मंडळाच्या लोकांचेर बहिश्कार घालो. ताकालागून तातुंतल्या कांय लोकांनी प्रायश्चित्त घेवन आपली सोडवणूक करून घेतली आनी रानडेक मात खूब त्रास सोंसचो पडलो. ह्या वादाच्या निमतान ताणें वेद, स्मृती, पुराणां आनी इतिहास हांचो अभ्यास करून आनी सगळे शास्त्राधार विचारांत घेवन एक विद्वत्ताप्रचुर निबंद बरयलो.

इ.स. १८७० वर्सा गणेश वासुदेव जोशी हाणें स्थापन केल्ले भौशीक सभेचो रानडे सुरवातीसावन मार्गदर्शक आशिल्लो. १८७८ वर्सा हे सभेन एक नेमाळें सुरू केलें. ह्या नेमाळ्यांतले चडशे लेख स्वता रानडेनूच बरयल्यात. महाराष्ट्रांतल्या जिल्ह्यांचे अर्थीक परिस्थितीची पळोवणी करची अशी येवजण भौशीक सभेन रानडे हाच्या मार्गदर्शनाखाल हातांत घेतली आनी त्या आदारान अहवाल बरोवन महाराष्ट्राचे अर्थीक हलाखीची परिस्थिती स्पश्ट केली. अशे तरेच्या प्रस्नांचो विचार करपाची, ताचेर उपाय सुचोवपाची आनी आंकडेवार म्हायती मेळपाची पद्दत रानडेन सुरू केली. इंग्लंडांत जेतरेन जापसालदार राज्यपद्दत आसा तशीच भारतांतूय लागू जावची असो अर्ज ब्रिटीश संसदेकडे न्या. रानडे हाचे प्रेरणेनूच धाडलो. पुण्याक आसतना प्रार्थना समाजाचे प्रतिश्ठापनेंत न्या. रानडे हाचो व्हड वांटो आशिल्लो. प्रार्थना समाजाचे स्थापणुके फाटलीं मुलतत्त्वां सांगतना ही संस्था म्हळयार धर्मीक उध्दाराचें स्थान आसा हें ताणें स्पश्ट केलें. प्रार्थना समाजाचीं तत्त्वां, उपासनापद्दत आनी विधी हांचें समर्थन करपाखातीर ताणें 'एकेश्वरनिष्ठाची कैफियत' ह्या नांवाचो एक निबंद बरयलो.

भारतीय भौसाच्या राजकीय आकांक्षांक वाचा फोडपाखातीर कॉंग्रेसची स्थापणूक करपाचें थारलें. तेन्ना न्या. रानडेन फुडाकार घेतलो. १८८५ वर्सा भरील्ल्या पयल्या अधिवेशनाक जे ७२ वांगडी आशिल्ले, तातूंत रानडे मुखेल आशिल्लो. कॉंग्रेसचो संस्थापक म्हूण वळखूपी ह्यूम, होलेगीत रानडेक आपलो राजकीय गुरू मानतालो. रानडे समाजीक सुदारणेचो कट्टर पुरस्कर्तो. ताणें कॉंग्रेसीच्या पयल्याच अधिवेशनांत समाजीक परिशदेची प्रतिश्ठापना केली आनी फुडें धा वर्सांमेरेन दर वर्सा कॉंग्रेसचें अधिवेशन भरता, थंय समाजीक परिशदेचेंय अधिवेशन जावंक लागलें. पूण उपरांत कांय वर्सांनी पयलीं समाजीक काय राजकीय सुदारणा हो वाद उप्रासलो. इ.स. १८९५ वर्सा पुण्यांत कॉंग्रेस अधिवेशन भरील्लें आसतना, सनातन्यांनी समाजीक परिशद थंय भरल्यार माटव जळोवन उडोवपाची धमकी दिली. त्यावेळार रानडेन हें अधिवेशन वेगळे सुवातेर भरोवपाचें उतर दिवन वाद पालयलो. इ.स. १८९६ वर्सा रानडेन पुण्यांत 'डेक्कन सभा' ही नवी सभा काडली.

न्या. रानडे हाच्या राजकीय विचारांत बुध्दिनिश्ठ उदारमतवादाचो प्रभाव दिसून येता. समाजीक तत्त्वज्ञानांतलें बुध्दिप्रामाण्य, व्यक्तिस्वातंत्र्य, परमसहिश्णुता आनी समाजीक कर्तव्यबुध्दी हींच तत्त्वां राजकीय विचारांतूय ताणें ग्राह्य मानलीं. सनदशीर शासन हो उदारमतवादाचो आविश्कार आसा अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें.

नासिक हांगा आसतना न्या. रानडेन 'मराठी ग्रंथोत्तेजक मंडळी' नांवाची एक संस्था सुरू केली. इतिहास, शास्त्रां, देशाची सुदारणा, म्हान मनशांचीं चरित्रां, धर्म अशा विंगड विंगड विशयांचीं पुस्तकां उजवाडावप हो हे संस्थेचो वावर आशिल्लो.

न्या. रानडे हाची बुध्दिमत्ता, दूरदृश्टी आनी खंयचेय अडचणीची विस्कटावणी करून व्यवहार्य मार्गदर्शन करपाची कुवत अर्थीक मळारूय दिसून येता. ताणें भारतांतल्या दळिद्राचो खोलायेन अभ्यास करून ताचीं स कारणां सांगल्यांत. धर्मीक आनी समाजीक मळार ताणें सगळया ग्रंथप्रामाण्यवादी रुढी आनी कल्पनांचो त्याग करून समानतेचो पुरस्कार केलो. सार्वजनिक सभा उद्देगीक परिशद, फीमेल हायस्कूल, वसंत व्याख्यानमाला, मराठी ग्रंथोत्तेजक मंडळी अशा पुण्यांतल्यो तरातरांच्यो संस्था आनी अखिल भारतीय पांवडयावयली इंडियन नॅशनल कॉंग्रेस, अर्थशास्त्र परिशद, समाजीक परिशद ह्या संस्थांचे स्थापनेंत आनी वाडींत ताचो व्हड वांटो आसा.

न्या. रानडे एक बरो वक्तो. खंयच्याय प्रस्नाचो खोलायेन अभ्यास आनी देशोध्दाराची तळमळ हाकालागून ताचीं व्याख्यानां अभ्यासू आनी मार्गदर्शक आसतालीं. न्या. रानडे भौतिकशास्त्राचो पुरस्कर्तो आशिल्लो तरी ताची वृत्ती धर्मीक आशिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**रानडे, मोहन :** (जल्म : २५ डिसेंबर १९३०, मिरज - सांगली).

सुटकेझुजारी. ताणें बी. कॉम आनी एल्. एल्. बी. चें शिक्षण घेतिल्लें. ताचें खरें नांव मनोहर आपटे. पूण सुटके चळवळी वेळार ताणें मोहन रानडे हें नांव घेतलें आनी तेंच उरलें. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सावयवेरें (वळवय) हें ताच्या कार्याचें ठाणें आशिल्लें. थंय तो लोकांमदीं राजकीय जागृताय हाडपाचें काम करतालो. गोंयच्या शिमे वयल्यान पत्रकां हाडून तीं सुटके झुजाऱ्यांक वांट्टालो. १ ऑगस्ट १९५४ दिसा सिल्वासाचे सुटके खातीर सशस्त्र हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. हाचे भायर जायत्या पुलीस ठाण्यांनी, मीनारवर्णींनी हत्यारां आनी स्फोटकां हस्तगत करपाक तो सशस्त्र हल्ले करतालो.



बाणस्तारी पुलीस ठाणें (१ जानेवारी १९५५); गुळेली कस्टम आऊटपोस्ट (९ फेब्रुवारी १९५५); कळंगुट पुलीस ठाणें (११ फेब्रुवारी १९५५); अस्नोडा पुलीस आवटपोस्ट (१२ फेब्रुवारी १९५५); रावण पुलीस आऊट पोस्ट (१९ मार्च १९५५); हळदोणे पुलीस आऊट पोस्ट (२७ मे १९५५); शिरगांव मिनारवण (३ ऑक्टोबर १९५५); बेतीं पुलीस ठाणें (२५ ऑक्टोबर १९५५); अशा सुवातींचेर ताणें हल्ले केल्यात. १८ जून १९५५ दिसा ताणें पुर्तुगेजांचो हस्तक कास्तदियो फेर्नांडीस हाचेर फार पेटयलो.

बेतीं पुलीस ठाण्यार जाल्ल्या हल्ल्यांत तो जखमी अवस्थेंत पुर्तुगेजांचे तावडींत सांपडलो. उपरांत प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून २९ डिसेंबर १९५६ ह्या दिसा ताका खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ताका पुर्तुगालाक धाडलो. उपरांत २३ ऑगस्ट १९६० दिसा ताका फुडली बंदखण भोगूंक काशीयस बंदखणींत दवरलो. स वर्सां ताका एकोडे बंदखणींत दवरिल्लो. तातुंतलीं दोन वर्सां ताका बेडयो घालून दवरिल्लो. ताकालागून ताका चलूंक लेगीत येनाशिल्लें. ताची सुटका २५ जानेवारी १९६९ दिसा जाली. गोंय सुटके उपरांतय ताका बंदखणींत दवरिल्ल्यान पुराय भारतांत निशेध परगटायिल्लो.

१९६९ वर्सा तो गोंयांत येतकच लोकांनी ताचो भोवमान केलो. उपरांत ताणें आपलें फुडलें शिक्षण पुराय केलें आनी तो समाजीक वावर करूंक लागलो. ताणें 'सतिचे वाण' नांवाची मराठींतल्यान आपजीण बरयली. हांतूत ताणें आपले सुटके झुजांतले आनी बंदखणींतले अणभव सांगल्यात. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**रानडे, रमाबाई :** (जल्म : इ. स. १८६२, मौजे देवराष्ट्रे, जि. सातारा; मरण : इ.स. १९२४).

स्त्री - शिक्षण चळवळीची प्रवर्तक. तशेंच समाजसेवेचें आजल्म व्रत आचरणांत हाडपी कुशळ संघटक. बायलांक ज्या काळांत, शिक्षणापसून कुशीक दवरलें त्याच काळांत रमाबाईन स्वता मुळाक्षरापसून आपल्या शिक्षणाक सुरवात केली. रमाबाईचें कुळारचें आडनांव कुर्लेकर. तिचो बापूय उदार वृत्तीचो आनी सरदारी बाण्याचो आशिल्लो. आवय, मिरजेचो राजवैद्य करमरकर हाची धूव. ती फाविल्ल्या वेळांत बापायचें दायज चलोवन गरीब लोकांक फुकट वखदां दिताली. सुसंस्कारी आनी परोपकारी वृत्तीच्या घराण्यांत जल्म जाल्ल्यान आपसूक रमाबाईचे आचार - विचार तेच पद्दतींत घडपाक लागले.

त्या काळांतले रितीप्रमाण, पिरायेच्या इकराव्या वर्सा, रमाबाईचें लग्न न्यायमूर्ती महादेव रानडे हाचेकडे जालें. त्या काळांत बायलांनी शिक्षण घेवपाची चाल नाशिल्ल्यान रमाबाईक मुळाक्षराचीय वळख नाशिल्ली. अशे परिस्थितींत न्यायमूर्तीन रमाबाईक शिकोवपाक सुरवात केली. तेरखातीर रमाबाईक समाजा वांगडा घरच्यांचोय त्रास सोंसचो पडलो. जातिभेदाचें कडक अनवाळेंपण आसतना, रमाबाईक जेन्ना एक किरिस्तांव बायल इंग्लीश भास शिकोवपाक येवंक लागली, तेन्नाय तिका खूब निंदा सोंसची पडली. पूण तिचेर जाल्ल्या संस्कारांक लागून सोंसपाची शक्त, अभ्यासाची आवड आनी घोवाचो घटमूट आदार हाका लागून रमाबाईन सगळ्यांचेर जैत मेळयलें. अभ्यासू वृत्ती आनी धीटपणाचो प्रभावय रमाबाईचेर पडिल्लो.

ज्या संवसारी बायलांक शिक्षण घेवंक मेळना, तांचेखातीर रमाबाईन सगळया तरांचे वर्ग सुरू केले. प्रार्थना समाजाच्या 'आर्य महिला सभे' ची अध्यक्षा ह्या नात्यान तिणें ज्ञानप्रसाराचें कार्य हातांत घेतलें. तेरखातीर तिणें 'हिंदू सोशल अँड लिटररी क्लब' ची स्थापणूक करून कला, भास, विज्ञान हांचे बायलांखातीर वर्ग सुरू केले. ल्हव ल्हव करून तिका बायलांचो खूब आदार मेळपाक लागलो. तेन्ना तिणें इ.स. १९०८ वर्सा पुण्यांत 'सेवासदन' हे संस्थेची स्थापणूक केली. दोतोर आनी परिचारिका म्हूण बायलांचो आंकडो उणो आसा अशें कळटकच इ.स. १९११ वर्सा तिणें रुग्णपरिचर्येचो आनी वैजकी शिक्षणक्रम सुरू केलो.

सेवासदन संस्थेच्या ह्या व्यापाक अर्थीक आदार मेळचो तशेंच शिक्षणाचोय प्रसार जावचो ह्या दोट्टी हेतान रमाबाईन, थंयच्या बायलांनी तयार केल्ल्या भरतकामाच्या, शिवणीच्या आनी कलाकुशळीच्या वस्तूंचें प्रदर्शन भरोवपाक सुरवात केली. तेन्नासावन हे संस्थेची खूब उदरगत जाली.

इ.स. १९०१ वर्सा न्या. रानडे हाका मरण आयलें तेन्ना रमाबाईचो काळ दुख्खांत गेलो. पूण त्या दुख्खांतल्यान तिणें स्वताक सावरलें आनी आपली जीण भौशिक वावराक ओंपली. इ.स.

१९०४ वर्सा भरिल्ले पयले 'भारत महिला परिशदे'चें अध्यक्षपद रमाबाईक फावो जालें. न्यायमूर्तीन स्थापन केल्ले 'सामाजिक परिशदे' वांगडा हे परिशदेचेंय कार्य सुरू जालें.

इ.स. १९०४ ते इ.स. १९२४ ह्या काळांत रमाबाई हे परिशदेच्या कार्यांत सक्रिय आशिल्ली. बायलेक आपल्या कर्तृत्वाची, हक्कांची, अधिकारांची जाणीव जावची म्हूण रमाबाईन उपाट यत्न केले. दुकळांत सांपडिल्ल्यांक, हुंवारांत, उज्यांत सांपडिल्ल्यांक पयशे, कड्डण, कपडे अशा सगळया मार्गांनी आदार करपाचें कार्य तिणें सेवासदनाच्या बायलांवतीन हातांत घेतलें.

संकटांत सापडिल्ल्यांक आदार करप हेंच तिचें जिवितकार्य जाल्लें. फकत महाराष्ट्रांतूच न्हय तर हेर प्रांतांनी ती स्वता भोंवन तरातरांचे उपक्रम सुरू करताली. गुन्यांवकारी बायलांक तांचे जिणेक बरी दिका दिवन तांकां वेवसायीक शिक्षण मेळून, त्यो स्वताच्या पांयांचेर उब्यो रावन तांकां मानान जियेवंक मेळचें म्हूण रमाबाईन खूब यत्न केले.

बायलांक मतदानाचो हक्क मेळचो म्हूण रमाबाईन शासनाकडे मागणी केली. ताचें म्हत्व सगळया थरांतल्या बायलांक पटचें म्हूण तिणें सभा घेतल्यो, तांच्या हक्कांची तांकां जाणविकाय करून दिली. खबरापत्रांनी लेख बरोवन आपली मतां उक्तायली. हाचो परिणाम विधिमंडळाचे वेंचणुकेंत बायलांक मतदानाचो हक्क मेळ्ळो. जिणेचे निमाणेमेरेन रमाबाई येरवडा बंदखणीक भेट दिताली.

- कों. वि. सं. मं.

**रानदुकर :** (पळेयात दुकर).

**रानमाजर :** (पळेयात माजर).

**रानसुणो :** (पळेयात सुणो).

**राबी, इझिडॉर इझाक :** (जल्म : २९ जुलय १८९८, रेमॅनॉव्ह, ऑस्ट्रिया; मरण : ११ जानेवारी १९८८, न्यूयॉर्क).

अमेरिकन भौतिकीविज्ञ. अणुकेंद्राच्या चुंबकीय गुणधर्मांची नोंद करपाखातीर उपयुक्त थरिल्ल्या अनुस्पंदन पद्धतीच्या सोदाखातीर ताका १९४४ वर्साच्या भौतिकीचें नोबॅल इनाम फावो जालें.

१८९९ वर्सा तो आपल्या घरच्यांसयत अमेरिकेक गेलो आनी थंय ताणें १९१९ वर्सा कॉर्नेल विद्यापिठाची रसायनशास्त्राची पदवी घेतली. उपरांत ताणें १९२७ वर्सा स्फटिकांच्या चुंबकीय गुणधर्मांचेर संशोधन करून कोलंबिया विद्यापिठाची पीएच्.डी घेतली. शिश्यवृत्ती मेळिल्ल्यान युरोपांत ताका आर्नोल्ट झोमरफेल्ड, नील्स बोर, व्होल्फगांग पाउली, ओटो स्टर्न आनी व्हेर्नर हायझेनबेर्क ह्या नामनेच्या शास्त्रज्ञांवांगडा काम करपाची संद मेळ्ळी. १९२९ वर्सा तो कोलंबिया विद्यापिठांत सैध्दांतिक भौतिकीचो अधिव्याख्यातो आनी फुडें १९३७ वर्सा प्राध्यापक जालो.

दुसऱ्या म्हाझुजांत तो मॅसॅचूसेट्स इन्स्टिटयूट ऑफ टॅक्नॉलॉजीच्या रेडिएशन लॅबॉरेटरीचो सहयोगी संचालक आशिल्लो. ताणें सूक्ष्मतरंग रडार आनी अणुबाँब हांच्या विकासांत पालव दिलो. म्हाझूज सोंपतकच १९४५ वर्सा तो कोलंबिया विद्यापिठांत भौतिकी विभागाचो कार्यकारी अधिकारी जालो. उच्च ऊर्जा भौतिकी आनी सूक्ष्मतरंगांचे वैज्ञानिक आनी वेव्हारीक उपेग ह्या नव्या क्षेत्रांतल्या विभागाक ताणें म्हत्वाची सुवात मेळोवन दिली. ह्याच विद्यापिठांत, १९५१ - ६४ त तो भौतिकीचो हिगिन्स प्राध्यापक, १९६४ - ६७ त पयलो विद्यापिठीय प्राध्यापक आनी १९६७ वर्सासावन गुणश्री प्राध्यापक जालो.

१९३० वर्सासावन ताणें अणुकेंद्रांच्या चुंबकीय गुणधर्मांचो अभ्यास करपाक सुरवात केली आनी हें गुणधर्म मेजपाचें साधन म्हणून स्टर्न हाच्या रेणवीय शलाका पद्धतीचो विकास केलो. १९३७ वर्सा ताणें आणवीय वर्णपटांचें निरीक्षण करपाखातीर रेणवीय आनी आणवीय शलाकांच्या चुंबकीय अनुस्पंदनाचे पद्धतीचो सोद लायलो. हे पद्धतीचो उपेग करून अणू आनी रेणू हांच्या परिभ्रमणाच्या एकेका अवस्थांचें अभिज्ञान करपांत आनी त्यो मेजपांत ताणें जैत मेळयलें. ताचे हे पद्धतीक लागून अणू आनी रेणू हांचे संरचनेविशीं चड विस्तारान म्हायती मेळ्ळी. उपरांत सोदिल्ल्या आणवीय कालमापक, मेसर आनी लेसर हेसारक्यो प्रयुक्ती राबी हाच्या ह्या मूलभूत कार्याचेर व्हड प्रमाणाचेर आदारल्यात. झुजा उपरांतच्या काळांत (१९४६ - ५६) तो अमेरिकेच्या अणुऊर्जा मंडळाच्या सर्वसादारण सल्लागार समितीचो वांगडी आनी चार वर्सां अध्यक्ष आशिल्लो. १९५५, १९५८ आनी १९६४ ह्या वर्सा जिनीव्हा हांगा अणुऊर्जेच्या शांतिकायेच्या उपेगांखातीर आंतरराश्ट्रीय परिशदो भरोवपाक ताणें म्हत्वाचें कार्य केलें. युनेस्कोंतलो अमेरिकेचो प्रतिनिधी ह्या नात्यान ताणें केल्ल्या प्रयत्नांक लागून जिनीव्हा हांगा उच्च ऊर्जा भौतिकीच्या अभ्यासाखातीर एक आंतरराश्ट्रीय प्रयोगशाळा (CERN )उबारपाक खूब आदार जालो. ब्रुकहॅवन नॅशनल लॅबोरेटरी स्थापन करपाकूय ताचो वांटो आशिल्लो. अमेरिकेच्या शस्त्रास्त्र नियंत्रण आनी निःशस्त्रीकरण विभागाच्या सल्लागार समितीचो तशेंच हेर सरकारी आनी आंतरराश्ट्रीय समित्यांचो तो वांगडी आशिल्लो.

'फिजिकल रिव्ह्यू' ह्या नेमाळयांत राबीचे म्हत्वाचे संशोधन निबंध उजवाडा आयले. ह्या नेमाळ्याचो तो कांय काळ सहयोगी संपादकूय आशिल्लो. माय लायफ अँड टाइम्स ॲज अ फिजिसिस्ट, (१९६०), मॅन अँड सायन्स (१९६८) आनी सायन्स द सेंटर ऑफ कल्चर (१९७०) हे ग्रंथ ताणें बरयले.

नोबॅल इनामावांगडा ताका आनीकूय कांय उल्लेख करपासारकीं इनामां मेळ्ळयांत, तीं अशीं - अमेरिकन ॲसोसिएशन फॉर द ॲडव्हान्समेंट ऑफ सायन्सेस हाचें इनाम (१९३९), फ्रँकलिन इन्स्टिट्युटाचें एलिअट क्रिसन पदक (१९४२), मेरिट पदक (१९४८), किंग्ज पदक (१९४८), ॲटम्स फॉर पीस पुरस्कार (१९६७) तशेंच प्रिन्स्टन, हार्व्हर्ड, बर्मिंगहॅम ह्या विद्यापिठांच्यो सन्माननीय पदव्यो हे भोवमान मेळ्ळे. अमेरिकन फिजिकल सोसायटी, नॅशनल ॲकॅडमी ऑफ सायन्सेस, अमेरिकन फिलॉसॉफिकल सोसायटी ह्या संस्थांचो तो वांगडी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**राभा :** एक जमात. हांची वसती चडकरून आसामांत आनी अस्तंत बंगालच्या जलपैगुडी आनी कुचबिहार ह्या जिल्ह्यांत आसा. राभा लोक मंगोलायड वंशाचे आसून बोडो गटांतले गारो, काचारी, मेज आदी लोकांकडेन तांचें सारकेंपणा आसा. अस्तंत बंगालांतल्या राभा लोकांचे कुडीची ठेवण सादारणपणान मंगोलायड लोकांचे कुडीवरी आसता. ते मोटवे वा मध्यम उंचायेचे आसून तांचो वर्ण हळदुवो, चपटें नाक, केंस सरळ वा मातशे मुदयाळे आसतात.

तांचीं घरां कोंड्याचीं आसतात आनी घराचें पारवें तणाचें आसता. जाल्यार वण्टी मातयेच्यो आसतात. घराक तेंकून गोरवांचो गोठो आसता. तशेंच दुकरां, बोकड्यो, कुकडां खातीर स्वतंत्र जागे दवरतात. कांय लोकांक ट्रायबल वेल्फेअर खात्यावतीन घरां बांदून दिल्लीं आसात. शीत हें ताचें मुखेल अन्न. भाज्यो, दाळ, मांस, नुस्तें हे पदार्थ तांच्या जेवणांत आसतात. ल्हायो आनी धंयांतले फोव हे तांचे आवडिचे पदार्थ.

सादारणपणान राभा लोक गरीब आसतात. तांकां तांदळांपसून तयार केल्लो सोरो खूब आवडटा. हे लोक जाळें आनी पांजऱ्याच्या आदारान नुस्तें धरतात.

राभा लोक सादारणपणान थळावी बंगाली बोली उलयतात. जाण्ट्या लोकां मदीं मात मुळची राभा बोली उलोवप जाता.

राभा दादले पुडवें आनी सदरो घालतात. बायलो साडी आनी पोलको घालतात. सद्याच्या काळांत लागशिल्ल्या सुदारिल्ल्या लोकांच्या भेसांचोय तांचेर प्रभाव पडला. बायलो केंसाचो आंबाडो घालतात. परबेदिसा हे लोक रुपें, पितुळ, शंख वा कंवचेच्यो वस्ती घालतात.

पुर्विल्ल्या काळांत हे लोक भूतपुजक आशिल्ले. पूण विसाव्या शतमानाचे सुरवेक ह्या लोकांनी भौशिकतरेन हिंदू धर्म आपणायलो. ऋषी वा महाकाल हें तांचें सगळयांत व्हड दैवत. हाचेभायर काली, कामाक्षा, शीतला, गंगादेवी, नारायण, बडा ठाकूर, सत्यपीर आदी देवता आनी कांय भूतारवेतां हांकां ते भजतात. दर एका घरांत देवपुजेखातीर कोंड्याचो एक चौथरो आसता आनी ताचेर मातयेचो ल्हानसो ओटो आसता. ह्या ओट्याचेर तांदळान भरिल्लो एक घट महाकालीचें प्रतीक म्हणून दवरिल्लो आसता. ताका कोंबो, दुकर हांचो बळी दितात. कांय देवांचे पुजेचे कांय खास दीस थरिल्ले आसतात. बलरामपुजा - हो उत्सव वैशाखांत येता. निशाकालीपुजा - ज्या लोकांची निशाकाली ही देवता आसता अशे लोक भौशिक वा धर्मीक उत्सवावेळार सांजेचे वा रातचे तिची पुजा करतात. हाचेभायर गोकुळाश्टम, राधापटम, बिसहरीपुजा, कामाख्यापुजा, कालीपुजा, सत्यनारायणपुजा, शिवपुजा आदी उत्सव राभा लोक करतात.

राभा लोकांमदीं तीस दीस सुयेर पाळटात. सुयेर सोंपतकच त्या दिसा म्हालो भुरग्याचें जावळ काडटा आनी भुरग्याच्या आवयचीं नाखटां कापतात. उपरांत सगळे घरचे लोक भुरग्याक आनी बाळंटीक घेवन लागसल्ल्या व्हाळार न्हावंक वतात. थंयच्यान न्हावन परत येतकच पुरोयत बलरामाची पुजा करता. चडकरून त्याच दिसा भुरग्याचें नांव दवरतात. केन्ना केन्नाय भुरगें एका म्हयन्याचें जातकच वा दोन म्हयने जावचे आदीं बरो दीस पळोवन नांव दवरतात. भुरग्याचो मामा वा आजो त्या दिसा भुरग्याक मांडयेर घेवन उदकान भरिल्ल्या एका दोण्यांत, जें नांव दवरपाचें तें उच्चारून तांदळाचो एक दाणो उडयता. तो तांदूळ उदकाचेर उफेलो जाल्यार तेंच नांव दवरतात. जर तो बुडलो तर दुसरें नांव उच्चारून दुसरो तांदूळ उडयतात. अशें तांदूळ वयर उफे मेरेन करतात. उपरांत नांव दवरतात. चलो णव म्हयन्यांचो जातकच आनी चली सात म्हयन्यांची जातकच अन्न उश्टावपाचो विधी करतात.

राभा लोकांत लग्नाक भोव म्हत्व आसता. चलो लग्नाचो जातकच आनी ताका फावो अशी चली मेळटकच चल्याचो बापूय, गांवचो मुखेली, गांवचो ब्राह्मण पुरोयत हांकां घेवन चलयेगेर वता. चलयेकडलेय लोक चल्यागेर वचून चल्याक पळयतात. दोगांकय संबंद पसंत आसल्यार लग्नाचो म्हूर्त, देजाची रक्कम, हेर देणींघेणीं आदी गजाली थारायतात.

लग्नाच्या आदल्या दिसा न्हवऱ्यागेर आनी व्हंकलेगेर अधिवास नांवाचो एक विधी करतात. लग्नादिसा सकाळीं न्हवरो आनी व्हंकल हांकां आपआपल्या घरा हळद लावपाचो कार्यक्रम जाता. दनपारचो न्हवऱ्याचो मामा हेर सोयऱ्यांक घेवन वाजत - गाजत व्हंकलेक हाडपाक वता. थंय जेवणबी जेवन चल्याचो मामा व्हंकलेच्या बापायक देज दिता आनी सगळे जाण मिरयत न्हवऱ्यागेर येतात.

लग्नाच्या माटवांत चार वटेनच्या चार खांब्यांकडे चार आनी मदीं एक अशे घट स्थापन केल्ले आसतात. न्हवऱ्याचे व्हडले भयणीचो घोव न्हवऱ्याक उबारून माटवांत हाडटा. न्हवरो उदेंतेकडे

तोंड करून उबो रावता. तेन्ना ताच्या मुखार अंतरपाट धरतात. व्हंकलेचे व्हडले भयणीचो घोव व्हंकलेक उबारून माटवांत हाडून न्हवऱ्या भोंवतणी सात वेळा फेरयो मारता. दर फेरी पुराय जातकच व्हंकल, न्हवऱ्याच्या आंगार मुठभर ल्हायो उडयता. सात फेरयो पुराय जातकच व्हंकलेचो भावोजी तिका घेवन न्हवऱ्यामुखार उबो रावता. उपरांत व्हंकलेचेर आनी न्हवऱ्याचेर बुरखो घालतात आनी मदलो अंतरपाट कडेन काडटात. दोगांय आपआपले बुरखे कडेक काडून समारंभपुर्वक एकामेकांक पळेतात. पुरोयत न्हवऱ्याच्या उजव्या तळव्यार व्हंकलेचो दावो तळवो दवरता आनी दोगांकय मंत्र म्हणूंक लायता. दोगांयच्या जुळयल्ल्या हातांचेर तो लेंस घालता आनी ताचेर घट दवरता. उपरांत त्या दोगांयच्या वस्त्रांक गांठ मारता. ताचेउपरांत सिंदूरदान हो विधी जाता. तेन्ना न्हवरो व्हंकलेच्या कपलाक तीन वेळा सिंदूर लायता आनी तिचो मागो भरता. व्हंकल न्हवऱ्याच्या कपलाचेर तीन वेळां काजळाचो थिपको लायता. मागीर दोगांय एकामेकांक हारसो दाखयतात. उपरांत न्हवरो आपल्या गळयांतलो हार व्हंकलेच्या गळयांत आनी व्हंकल आपल्या गळयांतलो हार न्हवऱ्याच्या गळयांत घालता. उपरांत लजा होम जाता. दुसऱ्या दिसा व्हंकल जमिल्ल्या सगळया लोकांक खावपाक दिता. लोकांक जर ही व्हंकल समाजघटक म्हूण आपणावची नासत तर तिचें हातचें अन्न घेनात. तिच्या हातचें अन्न स्विकारप ही आंनदाची गजाल मानतात. ते उपरांत मेजवानी जाता.

बंगाली आचार विचार आपणायल्ल्या राभांचें लग्न चलयेघरा जाता. देज दिवपाक पैशे नासल्यार एकाद्रो तरणाटो आपल्या भावी मांवागेर कांय दीस काम करता आनी मागीर चलयेकडेन लग्न जाता.

शेती हो ह्या लोकांचो मुखेल वेवसाय. हाचेभायर ते तेलबियां, भाजीपालो, कड्डणां, ताग हांचींय पिकां काडटात. पीक बरें येवचें आनी जिवांपसून पिकांक राखण मेळची देखून हे लोक कांय धर्मीक विधी आनी पुजा करतात.

वैशाख वा जेष्ठ म्हयन्यांत ब्राह्मण पुरोयत वा अधिकारी म्हूर्त पळोवन विश्वकर्म्याच्या पुजेचो दीस थारायता. त्या दिसा कुटुंबांतलो मुखेली न्हावन, धुतवस्त्र न्हेसून, आंगणांत सारयल्ल्या जाग्यार विश्वकर्म्याची पुजा करता. उपरांत शेतांतल्या अवजारांचेर तुळशीपानान उदक शिंपडायता आनीक कुकूम लायता. उपरांत शेतांत वचून थोडीशी जमीन नांगरता आनी मागीर घरा येवन इश्टां-वांगड्यां सयत जेवण जेवता. पेरणीवेळार हे लोक शेतांत वचून लक्ष्मीची पुजा करतात आनी थोडेंशें शेत पेरतात. मार्गशीर्ष म्हयन्यांत शेत कापचेआदीं ते माइहन नांवाचो उत्सव करतात. एक बरो दीस पळोवन त्यादिसा कुमारीका शेतांत वचून लक्ष्मीची पुजा करता. शेताच्या कांय रोप्यांक कुकूम लावन तीं कापतात आनी तांचे दोन भोरे नव्या कपड्यांत बांदून घरा व्हरतात. हे भोरे देवाऱ्यांत आठ दीस दवरतकच घराच्या वा कोठयेच्या दाराच्या खांब्याक बांदून दवरतात. हो सुवाळो जाल्या बगर कोणच शेत कापीनात.

गोरवां, मेंढरां, दुकरां, कुकडां आदी प्राणी पोसून तांचें दूद, मास, तांतयां विकपाचो कांय लोक धंदो चलयतात.

गायेक ते खुबूच पवित्र मानतात आनी एकाद्र्याच्या हातांतल्यान चुकून गाय मेली जाल्यार ताका प्रायश्चीत घेवचें पडटा.

राभा लोकांत कांय पोटभेद आसात. प्रदेशीक नदरेन तांचें गांवगिऱ्या वाठारांत रावपी आनी अस्तंत बंगाल सरकाराच्या राखीव वनविभागांतल्या वसत्यांनी रावपी अशे दोन भेद आसात. खेडेगांवांत रावपी लोक शेती करतात आनी वनविभागांत रावपी मजुरी करतात. ह्या दोन भेदांतल्या लोकांत लग्नसंबंद जुळना.

वंशीक नदरेन अस्तंत बंगालांतले राभा हे कोच राभा गटांतले आसात. डाल्टन हाणें राभाचे रंगदणी आनी पाटी अशे दोन भेद सांगल्यात. पाटी लोकांनी बंगाली लोकांच्यो जायत्यो चालीरिती आनी बंगाली भास आपणायल्या आनी एका इतिहासकाराच्या मताप्रमाण तांचे रंगदणी, पाटी, मैटोरिया, डाबुरी आनी काचारी अशे पांच भेद आसात. ह्या लोकांमदीं जायते हुसूक वा गोत्रां आसात आनी एका गोत्रांत लग्नसंबंद जायना.

- कों. वि. सं. मं.

**राम :** विष्णुच्या धा अवतारांतलो सातवो अवतार. इक्ष्वाकू कुळांतलो अयोध्येचो राजा दशरथ आनी पट्टराणी कौसल्या हांचो पूत. अभ्यासकांच्या मतान ताचो काळ इ.स. आदीं २००० ते १९५०. ताची जल्मतीथ चैत्र



शु. नम (रामनम) वाल्मीकी मुनीच्या "रामायण" ह्या म्हाकाव्यांत तो आदर्श पूत, एकपत्नीव्रती, महापराक्रमी, सर्वश्रेश्ठ झुजारी आनी

आदर्श राजा अशें रामाचें वर्णन केलां. नारदान ताचेविशीं वर्णन केलां तें अशें - इक्ष्वाकू कुळांतलो राम हो आदर्श पुरूश, सोबीत मुखामळ, विशाल कपल, व्हड दोळे, पुराय कुडीचेर आगळीच कांती आशिल्लो, विद्येंत खांपो, राजनितीज्ञ, सज्जनाचो संग्रह आनी दुर्जनाचो निग्रह करपी, धर्म, अर्थ आनी काम ह्या तिनय पुरूषार्थांचें योग्य तरेन सेवन करपी, संगीत, वाद्य, चित्रकला हातूंत हुशार, प्रजाहितदक्ष आनी प्रजननांक प्रिय असों देवासुरांक खबर आशिल्लीं सगळीं अस्त्रां जाणपी आनी अजिंक्य असो हो राम श्रेश्ठ पुरूश.

राजा दशरथाक कौसल्या, सुमित्रा आनी कैकेयी अशो तीन राणयो आशिल्ल्यो. तांकां बरोच तेंप मेरेन भुरगीं जालीं ना. ताणें ऋश्यश्रृंग मुनीवरवीं पुत्रकामेश्ठी यज्ञ केलो. तेन्ना कौसल्येगेर राम, सुमित्रेगेर लक्ष्मण आनी शत्रुघ्न आनी कैकेयीगेर भरत अशे चार पूत जाले. सगळे पूत गिन्यानी, गुणी आनी हुशार आशिल्ले. राम हो हतयाचेर आनी घोड्याचेर बसपांत आनी रथसंचलन करपांत फिशाल आशिल्लो. तो पंदरा वर्सांचो आसतना आपले यज्ञभुंयेक राक्षसांपसून राखण मेळची देखून विश्वामित्र ऋषी ताका घेवन गेलो. थंय ताणें रामाक बला आनी अतिबला ह्यो झूजविद्या शिकयल्यो. तेवेळार रामान ताटका हे राक्षशिणीक जिवेशीं मारली. तशेंच मारीच, सुबाहु आदी राक्षसांक धावंडावन घाले. तेन्ना विश्वामित्रान खोशी जावन रामाक दिव्य अस्त्रां दिलीं.

उपरांत विश्वामित्रान ताका मिथिलेक जनक राजागेर व्हेलो. वाटेंत रामान गौतम ऋषिची बायल अहिल्या हिका शापमुक्त केली. मिथिलेक रामान शिवधोणू उबारून आपलें बळगें दाखयले उपरांत जनकराजान ताचें आनी सीतेचें लग्न लावन दिलें.

जेन्ना दशरथान रामाचो युवराज्याभिशेक करपाचो थारायलो तेन्ना कैकेयीन रामाक चवदा वर्सां वनवास आनी भरताक युवराज्याभिशेक अशे दोन वर मागून घेतले. बापायचे आज्ञेक पाळो दिवपाक राम वनवासाक वचूंक भायर सरलो. तेन्ना ताचेवांगडा सीता आनी लक्ष्मणय वनवासाक गेलीं. जेन्ना तीं चित्रकूट पर्वताचेर पावलीं तेन्ना भरत तांकां परत अयोध्येक व्हरपाक आयलो. ताणें रामाक दशरथ मरपाची खबर दिली आनी अयोध्येक परत वचपाक विनयलें. रामान बापायक दिल्लें वचन मोडूंक न्हंयकार दिलो तेन्ना भरतान ताच्यो पादुका अयोध्येक व्हरून तांचे प्रेरणेन ताणें राजकारभार चलयलो.

थंयच्यान राम, लक्ष्मण, सीता अत्री ऋषीच्या आश्रमांत गेलीं. थंय सीतेची आनी तपस्वीनी अनुसूयेची भेट जाली. थंयच्यान तीं दंडकारण्यांत गेलीं. थंय तांणी धा वर्सां सारलीं. जायते म्हयने तांणी ऋषींच्या वेगवेगळ्या आश्रमांत वसणूक केली. ह्याच काळांत अगस्त्य ऋषीन रामाक दिव्य धोणू दिलें. पंचवटींत आसतना रामान जायत्या नरभक्षक राक्षसांचो नाश केलो. रावणाची भयण शुर्पणखेचो तर लक्ष्मणान कान आनी नाक कापून अपमान केलो.

ते उपरांत रावणान जेन्ना सीतेक उबारून व्हेली. तेन्ना रामाक खूब वायट दिसलें. तो लक्ष्मणावांगडा तिचो सोद घेवंक लागलो. वाटेर ताका सुग्रीव आनी हनुमान मेळळे. तांच्या आदारान ताणें रावणाकडे झूज करून सीतेची सुटका केली. तरी ताणें सीतेचो स्वीकार करचे आदीं तिका अग्नीपरिक्षा दिवची पडली. राम अयोध्येंत परत येतकच ताचो राज्याभिशेक केलो.

कांय दिसांनी लोकोपवादाक लागून ताणें गुरवार सीतेक वाल्मीकी आश्रमांत सोडली. थंय तिणें लव आनी कूश ह्या दोन जुवळया भुरग्यांक जल्म दिलो. थंय वाल्मीकीन तांकां आपणें रचिल्लें महाकाव्य गावपाक शिकयलें. ह्या दोनय कुमारांनी रामाक तें गावन दाखयलें. उपरांत रामान अश्वमेध यज्ञ केलो.

रामाच्या आदर्श जिणेचो आनी रामायणाचो भारतीय आनी बृहद्‌भारतीय कलासाहित्याचेर खोल छाप उठिल्लो दिसता. बौध्द आनी जैन साहित्याचेरय रामकथेचो प्रभाव पडला. बौध्द धर्मांत राम हो बोधिसत्त्व, जाल्यार जैन धर्मांत तो आठवो बलदेव मानून साहित्यनिर्मिती जाल्ली आसा. संस्कृत, प्राकृत आनी प्रदेशीक भासांत रामकथाप्रसंगाचेर जायतीं महाकाव्यां, नाटकां, चंपूकाव्यां आनी खंडकाव्यां बरयल्यांत.

रामलिला, सारक्या लोकनाट्याचेर तशेंच लोकगितांतय रामचरित्राचो प्रभाव पडिल्लो दिसून येता. भारताभायर तिबेट, खोतान, जावा, मलाया, सयाम, ब्रह्मदेश, कंबोडिया (ख्मेर) आदी देशांतय रामकथेचो अविश्कार जाल्लो आसा. हाचेभायर नाच, नाटक, चित्रां, शिल्पां आदी कलांवरवींय रामजिणेंतल्या प्रसंगाचो सोबीत आविश्कार दिसून येता. राजपूत आनी कांग्रा शैलींत रामायणाच्या प्रसंगाचीं जायतीं चित्रां आसात. जोधपूर संग्रहालयांतल्या ११ चित्रांचो संग्रह उल्लेख करपासारको आसा. जयपूर पोथी संग्रहालयांतल्या फार्सी रामायणाचे प्रतींत ७६ सोबीत चित्रां आसात. कंबोडियांतूय रामायण प्रसंगाचेर सोबीत चित्रां मेळटात. नामनेचो चित्रकार रविवर्मा हाणेंय रामायणांतल्या कांय प्रसंगांचेर सोबीत चित्रण केल्लें आसा.

वेरूळच्या कैलास लेण्यांत, हळेबीठ, हंपी, कुंभकोणम, चंद्रगिरी, देवगढ, ऐहोळे, पहाडपूर (बंगाल), नागार्जुनकोंडा तशेंच राजस्थानांतल्या केंकिदा, किवाडू (जि. बारमेर), खेड (रणछोडराम), देवूळ आदी देवळांतल्यान रामकथेंतल्या वेंचीक प्रसंगांचो कलात्मक आविश्कार दिसून येता.

दक्षिण भारतांत रामाच्यो पाशाणमूर्तींपरस धातूमुर्ती जायत्यो मेळटात. उबो राम द्विभूज आनी कोदंडधारी (धोणू) आसा; वांगडा सीता, लक्ष्मण आनी हनुमान आसा. त्रिवेंद्रम हांगा हस्तिदंतांत कोरिल्ल्यो राम, लक्ष्मण, भरत, शत्रुघ्न, सीता आनी हनुमान हांच्यो हालींच्या काळांतल्यो सोबीत मूर्ती आसात. राम, लक्ष्मण, सीता आनी हनुमान हांच्यो उब्यो कांश्यामूर्ती दक्षिण भारतांत जायत्यो

आसात. उब्या रामाची मूर्त धनुर्धारी आसता देखून तिका कोदंडराम म्हूण वळखतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रामकृष्ण परमहंस :** (जल्मः १८ फेब्रुवारी १८३६, कामारपुकुर, हुगळी - बंगाल; मरणः १५ ऑगस्ट १८८६, काशीपूर).

एक संतश्रेश्ठ, अद्वैत वेदांताचो प्रचारक आनी सर्वधर्मसमन्वयाचो प्रणेतो. ताच्या बापायचें नांव सुदिराम आनी आवयचें चंद्रादेवी. हें घराणें रामाची उपासना करपी आशिल्लें. गदाधराचे कृपेन ताचो जल्म जालो म्हणून ताका गदाधर हें नांव दवरिल्लें. लोक ताका परमेश्वराचो अवतार मानतले अशें ताच्या भुरगेपणांत भविश्य वर्तयल्लें. 'एकुणिसाव्या शेंकड्यात बंगालांत जावन गेल्लो एक संवसारीक किर्तीचो सत्पुरूश' अशें ताचें फुडाराक नांव जालें.



भुरगेपणांत तो बरोच मस्तो आशिल्लो. गणित विशय ताका मात लेगीत आवडनासलो. पूण तो एकपाठी आशिल्लो. भुरगेपणांतूच ताची आवय भायर पडली. ल्हानपणासावन ताची ओड पुराण - भजन आनी मूर्ती कलेकडेन आशिल्ली. साधु-बैराग्यांचीय तो सेवा करतालो.

पिरायेच्या णवव्या वर्सासावन देवाचें ध्यान करतना, भजनां - पदां म्हण्टना अर्दीमर्दी ताची समाधी लागताली. ते अवस्थेंतल्यान सावचित जाल्याउपरांत आपूण ज्या देवदेवतांचें ध्यान करतां ती देव - देवता आपले मुखार उबी रावता अशें तो सांगतालो. ताची ती भावावस्था पळोवन गांवांतल्यो बायलो ताका श्रीकृष्ण - चैतन्यमहाप्रभू अशें म्हणून ताची पुजा करताल्यो. लोक ताचेकडल्यान रामायण - महाभारतातलीं आख्यानां वाचून घेताले.

फुडें ताचो व्हडलो भाव रामकुमार हाणें ताका शिक्षणाखातीर म्हणून कलकत्त्याक व्हेलो. पूण अभ्यासांत ताचें लक्ष लागलें ना. भावान ताका शिक्षणाविशीं सांगलें, तेन्ना रामकृष्णान भावाक परती जाप दिवन सांगलें, 'केळया तांदळाची पोटली बांदपाची विद्या हांव शिकूंक सोदीना, हांव अशी विद्या शिकूंक सोदता जिकालागून ज्ञानाचो उदय जावन मनीस धन्य जातलो. म्हाका जेवण खाण दिवपी विद्या नाका. ईश्वराचें दर्शन जातलें अशी विद्या म्हाका जाय'. पिरायेच्या १६ व्या वर्सा ताणें दिल्ली ही जाप म्हळयार साधक भावांचो पयलो वयलो आविश्कारूच आसलो.

कलकत्त्याक राणी रासमणी नांवाचे बायलेन दक्षिणेश्वरी हांगा बांदिल्ल्या कालीमातेच्या देवळांत तो पुजारी म्हणून फुडें काम करूंक लागलो. पुजा करतना तो तल्लीन जातालो. ताच्या दोळयांतल्यान दुकांच्यो पावळयो लागताल्यो आनी ताची छाती चिप्प भिजताली. अंगन्यास आदी पुजांगां करतना तर ते ते मंत्र, वर्ण अक्षरांनी आपलेच कुडीर येतात अशें ताका प्रत्याक्षांत दिसतालें. देवीचे पूजेखातीर शक्तिदिक्षा घेवप गरजेचें आसा, अशें ताका दिशिल्ल्यान ताणें केनाराम भट्टाचार्य नांवाच्या एका व्हड साधकाकडल्यान शक्तिदिक्षा घेतली.

फुडाराक तो रातदीस पंचवटींत झाडासकयल बसून जगन्मातेचें ध्यान करूंक लागलो. लज, भंय, तिरस्कार, कूळ, शक्त, जात, मान, भोवमान ह्या अश्टपाशांसावन मेकळो जावपाचो तो यत्न करतालो. अहंकार ना जावन नमळीकाय येवची म्हणून सडांस बी धुवपाचीं कामांय तो करतालो. भिकाऱ्याचे पंक्तींतलें उश्टें, देवीचो प्रसाद म्हणून तो खातालो. जगदंबेन आपल्याक साक्षात दर्शन दिवचें म्हणून तो आकूळ पिकूळ जावन तिची प्रार्थना करतालो. तेखातीर ताणें जेवप खावप, न्हीदप सगळें सोडलें. शेवटाक ताणें आत्मघात करपाचो यत्न केलो, तेन्ना जगदंबेन ताका आपलें दर्शन दिलें. तो तिचें दर्शन परत परत जावचें म्हणून रडटालो, जमनीर लोळटालो, तेन्ना ताका देवी दर्शन दिताली. फुडें फुडें तर देवीमाता हांसता, आपलेकडेन उलयता, आपल्याक ती थातारता अशे अणभव ताका येवपाक लागले. हेच अवस्थेक लागून देवीची पुजा करपाक ताका शक्य जाय ना जालें. लोकांक ताका वातांची पिडा जाल्या अशें दिसलें. फुडाराक ताका लोकांच्या मनांत कितें चलता, तेंय कळूंक लागलें. एक दीस भजन गायतना मर्दीच थामून ताणें रासमणीचेर दोन थापटां फुलयलीं आनी 'हांगा लेगीत संवसाराचेच विचार?' असो प्रस्न केलो. लोक ताका पिशें लागलां अशें म्हणूक लागले. तेन्ना देवळाच्या वेवस्थापकान ताका पुजारीपदावयल्यान काडलो. आवयक हें कळना फुडें तिणें ताका घरा व्हरून ताचेर मंत्रतंत्र केले आनी ताका बरो केलो. उपरांत रोखडेंच ताचें पिरायेच्या २३ व्या वर्सा १८५९ त जयरामवाडींतल्या रामचंद्र मुखोपाध्यायाचे चलयेकडेन लग्न जालें. कांय तेपा उपरांत तो परत देवळाचो पुजारी जालो आनी राखडोच संवसाराच्यो गजाली पुराय तरेन विसरून गेलो.

भैरवी ब्राह्मणीचे देखरेखीखाल ताणें तंत्रीक साधना केली. ६४ तंत्रांची साधना केल्या उपरांत तिच्या मार्गदर्शनाखाल ताणें वैष्णव मताचीय साधना केली. फुडें एका गुरूकडल्यान राममंत्र घेवन रामाचीय उपासना केली. उपरांत श्रीकृष्णाची राधेच्या रुपांत सेवा केली. ह्या स म्हयन्यांच्या साधना काळांत तो बायलेसारको न्हेसतालो, पांगुरतालो. परमहंस तोतापुरीच्या मार्गदर्शनाखाला ताणें अद्वैत साधनेचीय दीक्षा घेतली. थोड्याच दिसांनी रामकृष्णाक निर्विकल्प समाधीचो लाव जालो. स म्हयने तो निर्विकल्प समाधींत रावलो. फुडें

तागेली घरकान्न जगदंबादासी बरीच दुयेंत जाली, तेन्ना तिचें दुयेंस ताणें आपले कुडीर घेतलें. आपले घरकान्नीकूय ताणें जायतें शिक्षण दिवन तिकाय निर्विकल्प समाधीचे अवस्थेमेरेन पावयली. मागीर रामकृष्ण दक्षिणेश्वरीसावन तीर्थयात्रेक भायर सरलो. ताचे वांगडा मथुरनाथ, जगदंबादासी, चंद्रादेवी आदी सुमार १२५ भक्तगण आशिल्ले. वैद्यनाथ, काशी, प्रयाग आदीं तीर्थांची भोंवडी करून तो वृंदावनाक गेलो. वज्रमंडळांत ताका राधाकृष्णाचें बऱ्याच रुपांनी दर्शन घडलें. मागीर तो गौरांगप्रभूचें जल्मस्थळ नवद्वीपाक गेलो आनी उपरांत थंयच्यान तो कलकत्त्याक परतलो. मात गदाधराक रामकृष्ण हें नांव कोणें आनी केन्ना दिलें हाचो सारको उलगडो खंयच जायना. तरी कांय जाण ताच्या दुसऱ्या गुरून म्हळयार तोतापुरीन हें नांव ताका दिलें अशें मानतात. ताणेंच ताका परमहंस ही पदवी दिली अशेंय मानतात. तो संवसारी जालो तरीय तो संवसारांत केन्नाच रमलो ना. आपल्या घरकान्नीची देवी म्हणून पुजा केली. जी तागेले जीणेंत षोडशी पुजा म्हणून प्रसिद्द आसा. १८६६ त रामकृष्णान शंभुचरण मालिक हाचे कडल्यान खिरस्ती तर गोविंद रायाकडल्यान इस्लामी धर्माच्यो साधना शिकून घेतल्यो. बौध्द, जैन आनी शीख धर्माच्यो साधनाय ताणें आचरणांत हाडल्यो. तरेकतरेवार साधनां आचरून जालेउपरांत आपल्याक अणिमादी सिध्दी प्राप्त जाल्या असो अणभव ताका आयलो. पूण ताणें ताचो केन्नाच उपेग केलो ना आनी हेरांकूय तो हे सिध्दीचो उपेग करपाक विरोध करतालो. ताणें हयोगाचोय अभ्यास केल्लो.

निर्विकल्प समाधीचे अवस्थेउपरांत ताचेकडेन गुरूपद आयलें, पूण तरी लेगीत ताच्या मनांत अहंकार केन्नाच आयलो ना. वयल्यान मनांत सर्वात्मभावांक सुवात मेळ्ळी. फकत स्पर्शान वा इत्सेन दुसऱ्यांचे विचार बदलुपाचें बळगें ताच्या आंगांत उत्पन्न जालें. तेचप्रमाण दुसऱ्यांचीं दुयेंसां आपले कुडीचेर ओडून घेवपाची तांकूय ताचे कुडींत आसली. पूण ताचें ताणें केन्नाच भांडवल केलेंना. अद्वैताचे सामके उंचेले अवस्थेंत आसतनाय ताणें देवाकडेन आवय भुरग्यासारको जिव्हाळयाचो संबंद दवरिल्लो. आपल्या नेमांत ताणें केन्नाच खंड पडूंक दिलोना. निंदा आनी तुस्त ताका दोनूय सारकींच आशिल्लीं. पूण देवाची कोणेय निर्भत्सना केली तर ताका राग येतालो आनी मागीर तो तिडकून उलयतालो. तागेलें वैराग्य असादारण अशें आशिल्लें. ताणें सगळया भोगांचो आनी वासनांचो त्याग केल्लो. संपत्ती ही ईश्वर प्राप्तीच्या मार्गांतले आडमेळे हें कळिल्ल्यान ताणें तिचोय त्याग केल्लो. ताच्या मनांत व्हड सत्यनिश्ठा आशिल्ली. फकाणांनी लेगीत फट उलयल्लें ताका आवडनासलें.

ताचो शिश्य परिवार वाडलो. मात कोणाची सारकी परीक्षा घेतल्याबगर तो कोणाकूच आपल्या शिश्यमंडळांत घेनाशिल्लो. एकदां शिश्याक आपणायलो की मागीर ताचे साधनेकडेन तो बारीक नदर दवरतालो. स्वामी विवेकानंद हो ताचो पट्टशिश्य आसलो. पूण ताचीय ताणें परीक्षा घेतिल्ली. आपलेकडेन येवपी दर एकल्याचो भाव वळखून तो ताचेकडेन तसो वागतालो. कुडीच्या लक्षणांवयल्यान तो मनशाची पारखणी करतालो. जशी तो आपूण दुसऱ्याची परिक्षा घेतालो, तशी लोकांनी आपलीय परिक्षा घेवची अशें ताका दिसतालें. तो सदांच म्हण्टालो, 'साधूक दिसाचो पळोवचो, रातचो पळोवचो आनी मागीरूच ताचेर विश्वास दवरचो'.

रामकृष्णाच्या सहवासांत रावप हेंय एके तरेचें आध्यात्मिक शिक्षण आशिल्लें. ताची खंयचीच कृती निरर्थक नाशिल्ली. आपलेकडेन येवपी दर एकल्याक तो रोखडोच आपलोसो करतालो आनी मागीर ताका जें कितें सांगूक जाय तें सिध्दांत रुपांत सांगतालो. ताच्या दोशांचेर बोट दवरून, केन्ना म्हों‌वाळपणान तर केन्ना तिडकल्लोसो करून तो ताचे दोश पयस करतालो. संवसारी लोकांक तो देवाची भक्ती संवसारांत रावनूच करची असो उपदेश करतालो. तर बालभक्तांक वैराग्याच्यो गजाली सांगतना थंय लागीं कोणूय संवसारी भक्त ना हाची जतनाय घेतालो. दर एकल्याच्या सभावाप्रमाण तो ताका मार्ग दाखयतालो. श्रध्दा आसल्याबगर धर्म मार्गान केन्नाच उदरगत जायना, अशें ताचें मत आशिल्लें. तो साधकाक लज, तिरस्कार, भंय हांचो त्याग करपाक शिकयतालो. वर्णविशय ल्हान भुरग्यांकय समजतलो अशे सोंपे तरेन तो सांगतालो आनी तो पटोवपाखातीर सादे सोंपे दृश्टान्त दितालो आनी संतांचीं पदां गावन दाखयतालो. ईश्वर - माया, ईश्वर - दर्शन, ईश्वर - रूप, ज्ञान - विज्ञान हांचे विशीं तो साधकाक सांगतालो. पूण तो भासाभाशेंत खंडन - मंडन करपाचे भानगडींत केन्नाच पडनासलो. मतभेद जालो तरीय कोणाकडेन केन्नाच वाद घाली नासलो.

रामकृष्णाक जे बरेच भक्त मेळ्ळे तातूंत राखालाचें नांव मुखेलपणान घेवचें पडटा. रामकृष्ण ताका आपलो मानिल्लो पूत म्हण्टालो. ब्रह्मानंद हें नांव ताणें ताका दिल्लें. राखाला उपरांत विवेकानंद रामकृष्णाकडेन पावलो. ताचे उपरांत महेंद्रनाथ गुप्त आयलो. हाचेभायर स्वामी दयानंद, केदारनाथ चट्टोपाध्याय, केशवचंद्र सेन, रामचंद्र दत्त, मनमोहन, विजयकृष्ण गोस्वामी, ईश्वरचंद्र विद्यासागर, बंकिमचंद्र चटर्जी, बलराम बसू, महेंद्रनाथ गुप्त, साधू नागमहाशय, डॉ. रामचंद्र दत्त, गिरीशचंद्र घोष, सुरेंद्रनाथ मित्र आदी फाकिवंत भक्तगण ताचे भोंवतणी जमा जाले. तांचेवांगडा रामकृष्णान धर्मप्रचाराचो बरोच वावर केलो.

निमाणेकडेन ताका गळयाचें दुयेंस जालें. देड वर्स तो दुयेंत उरलो. ह्या वेळार ताका जीवाक खूब त्रास जातालो, तरीय पूण ताची उमेद भुरग्यांवरीच आशिल्ली. फुडें वैजकी उपचार करपाखातीर ताका कलकत्त्याक हाडलो, पूण कसलोच उपेग जालोना. दोळे धांपचेपयलीं ताणें आपलो पट्टशिश्य नरेंद्र (स्वामी विवेकानंद) हाका

सगळ्या सिध्दींचें दान केलें. रामकृष्ण परमहंस हो देवत्वाची जीवी मूर्तूच आशिल्लो. ताचीं उतरां म्हळयार पढिक पंडिताचीं सुकी वचनां न्हय तर, तीं ताच्या जीवन ग्रंथाचीं पानां आशिल्लीं. तातूंत ताचे स्वताचे अणभव उकते जाल्ले म्हणूनच लोकांच्या मनार ताचो बरोच खोल छाप बसलो.

रामकृष्णान एकय ग्रंथ वाचूंक नासलो. फकत कांय पुराणां प्रवचनां आयकल्लीं. आध्यात्मिक साधनेंतल्यान घेतिल्लो साक्षात अणभव हो ताच्या विचारांचो एकलो एकसुरो आदार आसलो. ताचें सगळें उलोवणें हें प्रचितीचें आसलें. सगळे धर्म हे एका परमेश्वराकडेन वचपाचे मार्ग आसात ही ताची शिकवण आसली. फुडाराक ताचो पट्टशिश्य स्वामी विवेकानंद हाणें स्थापन केल्ल्या रामकृष्ण मिशन हे संस्थेवरवीं आनी तिच्या देशविदेशांत आशिल्ल्या १०० वयर फांट्यांवरवीं रामकृष्णाचो आध्यात्मिक संदेश आयज संवसारांत सगळेकडेन पावला.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : रामकृष्ण मिशन

**रामकृष्ण भट्ट - (१) :** (इ. स. चो. १६ वो शेंकडो).

एक नामनेचो मीमांसक. हो पाराशरगोत्राचो ब्राह्मण आशिल्लो. हाचें कूळ माळव्यांतलें. ताचो बापूय माधव आनी आवय प्रभावती. रामकृष्ण भट्टाचो जल्म काशीक जालो. मीमांसा आनी वेदान्त हांचें अध्ययन तांच्या कुळांत परंपरेन चलत आयलां. रामकृष्ण रामभक्त आशिल्लो आनी धर्म हो रामचंद्राचें रूपच आसा, अशें तो मानतालो. ताणें कांय ग्रंथूय बरयल्ले आसात. तातूंत पार्थसारथी मिश्राचे शास्त्रदीपिकेचेर युक्तिस्नेहप्रपुरणी नांवाची ताणें व्याख्या केल्या. तिचेर हाचेपयलीं कोणेंच टिका करूंक नासली. ताणें 'प्रतापमार्तंड' नांवाचो ग्रंथ बरयलो. त्या ग्रंथाखातीर ताका पंडित शिरोमणी ही पदवी मेळ्ळी. भट्ट ही लेगीत ताची पदवीच आसली.

- कों. वि. सं. मं.

**रामकृष्ण भट्ट - (२) :** (इ.स. चो १६ वो शेंकडो).

काशीच्या भट्ट घरण्यांतलो एक धर्मशास्त्रकार. ताच्या बापायचें नांव नारायणभट्ट. ताणें जीवत्पितृककर्मनिर्णय, तंत्रवा कटीका हे ग्रंथ बरयले. ताका पिरायेच्या बावनाव्या वर्सा मरण आयलें. त्या वेळार ताची बायल उमा हिकाय सती वचची पडली. निर्णय सिंधूकार कमलाकर भट्ट हो ताचो पूत.

- कों. वि. सं. मं.

**रामकृष्ण मिशन - संघ :** स्वामी रामकृष्ण परमहंस हाचे शिकवणुकेचो प्रचार आनी प्रसार करचो ह्या उद्देशान ताचो शिश्य, स्वामी विवेकानंदान सुरू केल्ली संस्था. 'रामकृष्ण मिशन असोसिएशन' हे संस्थेची स्थापणूक १ मे १८९० ह्या दिसा जाली. रामकृष्ण परमहंस मरणाच्या दारांत आसतना, मनीस जातीच्या उध्दाराखातीर



रामकृशण मिशनाचें बोधचिन्न

स्वार्थाचो त्याग केल्ले आनी लोकांक उपेगी पडटले अशा संन्याशांची संघटना उबी करूंक जाय, असो विचार ताच्या मनांत आयिल्लो तो ताणें सगळ्या शिश्यांमुखार उलोवन दाखयल्लो. विवेकानंदाच्या मार्गदर्शनाखाला सगळ्यांनी काम करचें अशेंय तांकां सुचयल्लें आनी आपल्या सामक्या लागींच्या इकरा शिश्यांक भगवीं वस्त्रांय दिल्लीं. रामकृष्णाच्या मरणा उपरांत म्हळयार इ.स. १८९८ त स्वामी विवेकानंद भारताचे भोंवडेर गेले उपरांत तो अमेरिकेक सर्वधर्मपरिशदेखातीर गेलो. ते उपरांत ताणें सगळ्या संन्याशांक आनी गुरूभावांक एकठांय आपोवन रामकृष्ण मिशन स्थापन करपाची कल्पना तांचेमुखार दवरली. कलकत्त्याच्या आलमबाजारांतल्या मठांत ही संस्था स्थापन जाली.

वेदान्ताचीं मूळतत्त्वां लोकांक समजावन दिवप, साहित्यादी सगळयो कला, भौतिक शास्त्रां, उद्देगधंदे हांचें शिक्षण दिवप ह्या शिक्षणाखातीर जाय तसले शिक्षक तयार करप, शाळा, म्हाविद्यालयां, दवाखाने, भुरग्यांखातीर घरां आदी लोकांक उपेगाक पडपी संस्था स्थापन करप आनी ह्या सगळ्या गजालींचो प्रचार करपाखातीर जाय पडपी वाङ्मय उजवाडावन विकप हीं पांच मिशनाचीं धोरणां थरलीं. पूण संस्थेचे स्थापणुके उपरांत रोखडोच भूंयकांप जालो आनी तातूंत हो मठ उध्वस्त जालो. तेन्ना स्वामी विवेकानंदान बेलूराक संस्थेचें कार्यालय सुरू केलें. गंगा न्हंयेचे अस्तंत देगेर बेलूर ह्या खेडेगांवांतल्या नीलांबर मुखर्जी हाणें ताचें उद्यानगृह संस्थेक दिलें. उपरांत मठाखातीर नवी इमारत बांदली. ह्या मठांत स्वामी रामकृष्णाची

प्रतिमा आनी ताचे पार्थीव अवशेश दवरल्यात. उपरांत संस्थेचें बोधचिन्न थरलें. विवेकानंदान मिशनच्या वावराक पुराय रितीन ओंपून घेतलो. ताणें हिंदू धर्मीयांमदीं नवी उर्बा निर्माण करपाचो वावर नेटान सुरू केलो. इ.स. १९०२ त बेलूरमठांतूच स्वामी विवेकानंदान समाधी घेतली. ताचे उपरांत ब्रह्मानंद, शिवानंद, अखंडानंद आदी संन्यासी रामकृष्ण मिशनाचे मुखेली जाले.

भारताच्या आध्यात्मिक प्रबोधनांत आनी मनशाच्या उद्धाराच्या कामांत निश्चयान आनी पोटतिडकेन वावर करपी संस्था म्हणून रामकृष्ण मिशन नामनेक पावलां. तेभायर स्वामी रामकृष्ण परमहंस आनी स्वामी विवेकानंद ह्या दोन व्हड मनशांचें तें जागृत यादस्तिक थरलां.

लोकांमदीं जागृताय निर्माण करपाचें आनी लोकांची सेवा करपाचें मुखेल काम हें मिशन करता. जात, रंग, पंथ, धर्म, देश असो कसलोच वेगळोचार करिनासतना लोकांची सेवा करप हीच व्हड मोख मिशनान दवरल्या.

समाजांत जागृताय जावची हे नदरेन मिशनान आतांमेरेन रामकृष्ण परमहंस, शारदामाता, विवेकानंद, भगिनी निवेदिता हांचीं चरित्रां आनी उपदेश तशेंच हेर धर्मसंस्थापक, साधू संतांचे उपदेश, शिकोवपी पुस्तकां उजवाडायल्यांत. संस्कृत ग्रंथांचीय सटीप उजवाडावणी केल्या. संस्थेचो स्वतंत्र असो प्रकाशन विभाग कार्यरत आसा. रामकृष्ण मिशनचो 'आश्रमवासी' जातलो जाल्यार कांय अटी आसात. रामकृष्ण विवेकानंदाच्या विचारांचेर श्रध्दा आनी परमात्म्याच्या साक्षात्काराखातीर जीव ओंपपाची तयारी आशिल्ल्याक, कुडीन आनी भलायकेन घटमूट आशिल्ल्याक आनी कुटूंबाची कसलेच तरेची जापसालदारकी नाशिल्यांकच हांगा प्रवेश मेळटा.

स्वामी विवेकानंदावांगडाच स्वामी ब्रह्मानंद, स्वामी शिवानंद, स्वामी सारदानंद, स्वामी प्रेमानंद, स्वामी अभेदानंद, स्वामी तुरीयानंद, स्वामी रामकृष्णानंद, स्वामी त्रिगुणातीतानंद, स्वामी अखंडानंद, स्वामी योगानंद, स्वामी निरंजनानंद, स्वामी अद्वैतानंद आनी स्वामी अद्भूतानंद हांणीय रामकृष्ण मिशन नांवालौकिकाक हाडपाक बरेच कश्ट घेतल्यात. म्हणूनच एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन बंगालांत स्थापन जाल्ली आध्यात्मिक मळावयली सेवाभावी अशी अग्रणी संस्था म्हणून संवसारभर हे संस्थेची कीर्त फांकल्या. संस्थेचे भारताच्या सगळया वाठारांत मेळून णव्वद मठ वा मिशन तर फ्रांस, इंग्लंड, अमेरिका, अर्जेंटिना, स्वित्झर्लंड, सिंगापूर, मॉरिशस, फिजीजुंवे, श्रीलंका आनी बांगला देशांत मेळून तिसांवयर फांटे आसात. अमेरिकेंतल्या वेदांत मंडळाचो वावरूय मिशन पळयता आनी तिचे देशविदेशांतल्या शंबरांवयर फांट्यांवरवीं आध्यात्मिक संदेश आयज संवसारांत सगळेकडेन पावला. भारतांत तेरा व्हडलीं इस्पितळां आनी खूबशे दवाखाने आसात. शंभरांवयर आश्रम, पांचशांवयर शिक्षणसंस्था मिशनाचे देखरेखेखाला चलता. बायलो आनी आदिवासी हें मिशन चलयतात. ते भायर अनाथालयां आनी वाचपघरांय चलतात. दुयेंसाच्यो धामी, दुकळ, भूंयकांप, व्हडलो हुंवार अशे सैमीक आपत्तीच्या वेळार संस्थेन व्हड सेवा कार्य केलां. सारदामातेचे जल्मशताब्दीचे निमतान १९५४ त बायलांखातीर स्वतंत्र असो संन्यासिनींचो सारदामठूय स्थापन केला. हाचेभायर श्रीरामकृष्ण - सारदा मिशन ही एक वेगळी संस्थाय कार्य करतना दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : रामकृष्ण परमहंस, स्वामी विवेकानंद

**रामगीता :** तत्त्वगिन्यानाचेर आदारील्लो एक पुरातन ग्रंथ. ह्या ग्रंथांत अद्वैत वेदान्ताच्या अनुभवाद्वैत ह्या पंथाच्या तत्त्वगिन्यानाचें विवेचन केल्लें आसा. वसिष्ठाच्या तत्त्वसारायण ग्रंथाच्या उपासना कांडांतल्या दुसऱ्या अध्यायांत ही रामगीता आयिल्ली आसा. हिच्यांत अठरा अध्याय आनी एक हजार श्लोक आसात.

अयोध्येंतल्या सोबीत अशा उद्यानांत आशिल्ल्या एका सभामंडपांत दिव्य सिंहासनाचेर बसून प्रभू रामचंद्र समाधीश्ठ जाला. समाधींतल्यान उठटकच ताचो सेवक हनुमान हाणें ताका संवसार दुखांतल्यान मुक्त जावपाखातीर ब्रह्माच्या निर्गुण स्वरुपाची म्हायती विचारली आनी रामचंद्रान ती ताका सांगली अशी ही रामगीतेची फाटभूंय आसा.

ह्या ग्रंथांत अनुभवाद्वैत पंथाच्या तत्त्वगिन्यानाक अणुसरून श्रौत वा वैदिक, सांख्य आनी योग हांचो पुरस्कार केल्लो आसा. ह्या पंथाच्या अनुयायांक कर्म, भक्ती, गिन्यान आनी योग अशे चारय मार्ग सारकेच मान्य आसात. तांच्या मताप्रमाण साधकाक फकत गिन्यानानच पुर्णताय येना. जीवन्मुक्त स्थितीच्या सामक्या निमाण्या तोंकार पाविल्ल्या ज्ञानयोग्यांकय शरीर आसा, तो मेरेन वर्णाश्रमधर्माप्रमाण आचरण सोडूंक जायना. तांणी सदांचीं कर्मां करूंकूच जाय.

रामगीतेच्या मताप्रमाण ज्ञानपूर्वक सप्तमाङ्गिक उपास्तियोग हें मोक्षाचें निमाणें साधन आसा. ब्रह्मात्मैक्याचें अनुसंधान करप हाका शब्दानुविध्द वा सविकल्प समाधी अशें नांव रामगीतेंत दिल्लें आसा. हे सविकल्प समाधीचो अभ्यास वाडलो म्हणजे ज्योतिदर्शन घडटा आनी त्या योगान मायेचें कट्टें पयस जावन दूरव पुराय ना जाता आनी साधकाक स्वानंद मेळटा. देहाविशीं जाची ममत्वबुध्दी सुटली तो जीवन्मुक्त आनी देहाविशीं जाका पुराय विस्मृती जाली तो विदेहमुक्त असो भेद हे गीतेंत केल्लो आसा.

एकशें आठ उपनिषदां खबर आशिल्लो आनी वेदविद्याव्रतां आचरणांत हाडपी गुरू करचो असो रामगीतेचो नेम आसा.

रामगीतेंत सदाचाराचेरय खूब भर दिल्लो आसा. गिन्यानी

आसूनय मनीस सद्‌गुणी आनी सदाचारी नासलो जाल्यार ताच्या जल्माक अर्थ ना अशें हे गीतेंत रामचंद्र म्हण्टा. देखुनूच तो फुडें हनुमानाक म्हण्टा, गिन्यान मेळटकच ताची सिध्दी मेळूं वा ना मेळूं, खंयच्याय कारणाखातीर केन्नाच सदाचार सोडूं नाका.

हनुमानाचे विनवणेवयल्यान रामान १२ व्या अध्यायांत आपल्या विश्वरुपाचें वर्णन करपाक सुरवात केल्ली पूण त्या वर्णनाचे कल्पनेनच हनुमान बेशुध्द पडलो.

ह्या ग्रंथांत निमाणें रामान हनुमानाक गीतामृत पियेल्यार तूं चिरंजीव जातलो असो वर दिलो.

- कों. वि. सं. मं.

**राम गोपाल :** (जल्म : २० नोव्हेंबर १९१७, बेंगलोर).

नामनेचो भारतीय नर्तक. ताचो बापूय अजमीर हांगा वकील आशिल्लो आनी आवय ब्रह्मदेशांतली आशिल्ली. भुरगेपणासावन राम गोपालाचें लक्ष नाचाकडे आशिल्लें. पूण त्या काळच्या प्रतिश्ठेच्या रूढ कल्पनेप्रमाण बापायन आपल्या पुताच्या नृत्यप्रेमाक विरोध केलो. अशा विरोधी वातावरणांतूय राम गोपालान भुरगेपणांत एकलव्याचे निश्ठेन ध्वनिमुद्रिकांवयल्यान नाच शिकपाचो यत्न केलो. कश्टांतल्यान मुखार ताणें स्वतंत्र नृत्यप्रयोग सादर करपाक सुरवात केली. ताचे कलेचें हें बीज पळोवन म्हैसूरच्या युवराजांनी ताका आपल्या दरबारांत आलाशिरो दिलो. ते उपरांत ताणें नामनेचो नृत्यगुरू कुंचू कुरूप हाचेकडे कथकळी, मीनाक्षीसुंदरम् पिळ्ळै हाचेकडे भरतनाट्यम्, मिश्राकडे कथ्थक आनी नबकुमार हाचेकडे मणिपुरी ह्या वेगवेगळया नृत्यशैलींचें शिक्षण घेतलें. बंगळूर शारांत १९३५ त ताणें स्वताच्या नृत्यसंस्थेची स्थापना केली. १९३७ - ३९ त कला मेरी ह्या अमेरिकन नर्तकीन नाचांतलो जोडीदार म्हूण ताची निवड केली आनी तिचेवांगडा ताणें जगांतल्यो भोंवड्योय केल्यो.



रामगोपालान नृत्यनाट्यांच्या परिणामकारक प्रयोगाखातीर बारीकसाणेन चिकित्सक नदरेन रंगभूमिचीं आर्विल्लीं तंत्रां आत्मसात केलीं. रंगमाचयेवयली सुविहीत वेवस्था आनी रंगमंचाची अद्ययावत सजावट ह्या गजालींकडे बारीकसाणेन लक्ष दिलें. उजवाडा येवजण, बंदिस्त हालचाली, सुयोग्य विवरण सारकिल्लीं रंगभूयेचीं वेगवेगळीं आंगां ताणें भारतीय नृत्यप्रयोगांत समाविश्ट केलीं. परंपरागत न्हेसण वर्ज्य मानून ताणें नवी, सूचक आनी ओडलायणी अशी न्हेसण नाचांत हाडली. नृत्य आनी नृत्यनाट्यां सादर करपाचें पाश्चात्य तंत्र ताणें आपणायलें. ह्या सगळया नव्या तंत्रप्रयोगाचो वापर करून ताणें नामना आनी कीर्त मेळयली. इंग्लंड, अमेरिका हांगा भोंवड्यो करून, एडिंबरो हांगाच्या महोत्सवांत १९५६ त ताणें नृत्यनाट सादर केलें. १९६५ वर्सा राश्ट्रकुल कला महोत्सवांत वांटो घेतलो आनी १९६२ वर्सा लंडनाक भारतीय नृत्य आनी संगिताची ॲकॅडमी स्थापन करून थंयच तो स्थायिक जालो. डान्सेस ऑफ इंडिया, लेजंड ऑफ ताजमहाल, डान्स ऑफ द सेटिंगसन हीं ताणें सादर केल्लीं नामनेचीं नृत्यनाट्यां. या नृत्यनाट्यांच्या आकृतिबंधांत ताणें तांच्या कथकळी आनी भरतनाट्यम् नृत्यांच्या ज्ञानाचे कुशळतेचो उपेग करून घेतला.

भरतनाट्यम् हो बायलांचो नाच मानलो, तरी राम गोपालान तातूंत असामान्य फिशालकाय मेळयली. लवचिक, सुडौल कूड आनी प्रसन्न व्यक्तिमत्व ह्या सैमीक गुणांक ताणें कल्पकता आनी अखंड परिश्रम हांची जोड दिवन भरतनाट्यमांतलो एकमेवाद्वितीय दादलो कलाकार अशी नामना मेळयली.

विसाव्या शेंकड्याच्या पुर्वार्धांत कमी मानिल्ल्या भारतीय नाचाक अस्तंती नृत्यव्यासंगाची जोड दिवन, ज्या नर्तकांनी पारंपारीक भारतीय नाच वेगळया रुपांत मांडपाचो यत्न करून ताका आंतरराश्ट्रीय प्रतिश्ठा मेळोवन दिली तातूंत रामगोपाल हाची सुवात उंचेली आसा. उदय शंकर, मेनका आनी रामगोपाल हांणी भारतीय नृत्य जागतिक रंगमाचयेर व्हरून ताका रशियन बॅले फाटोफाट संवसारीक नामना मेळोवन दिली. 'र्‍हीदम इन द हेवन्स' हें आपजिणेचें पुस्तक ताणें बरयलां. तशेंच नामनेचो फ्रेंच दिग्दर्शक मादाम क्लॉद ला मॉरिस हाणें राम गोपालाचेर दोन अनुबोधपट तयार केल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**रामचरितमानस :** रामायणाचेर आदारिल्लें एक म्हाकाव्य. गोस्वामी तुलसी हाणें तें अवधी भाशेंत बरयलां. रामायण, तुलसीरामायण वा चौपाई रामायण ह्या नांवान ताची नामना आसा. पूण रामचरितमानस ह्या नांवानूच ताची चड वळख आसा. कवीन हें काव्य चडशें चौपायांत रचलां. पूण तातूंत अदींमदीं दोहा, सोरठा, हरिगीतिका, त्रिभंगी, तोटक, तोमर, भुजंगप्रयात, नागस्वरूपिणी आदी छंद मेळटात. हातूंत सात कांडां आसात आनी दर एका कांडाचे सुरवेक संस्कृत श्लोक आसा. उत्तर कांडाच्या निमाणें दोन संस्कृत श्लोक आसात. कांय कांडां मदीं संस्कृत स्तोत्रां आसात. कांडाचो अनुक्रम वाल्मीकीक अनुसरूनच आसा. फकत ताणें झूजकांडाक लंकाकांड म्हळां.

रामचरीतमानस बरोवंक कवीन जरी वाल्मीकी रामायणाचो मूळ आदार घेतलो तरी ताणें रामकथा, जायतीं पुराणां आनी निगमागम हातूंतल्यान जशी बरी दिसता तशी घेतल्या. ताकालागून हातुंतली रामकथा वाल्मीकीचे रामकथेपरस वेगळी आसा. तुलसीदासान अध्यात्म रामायणाचीच संवाद पद्दत घेतल्या. हो संवाद तीन उलोवपी आनी

आयकुपी हांचे मदलो आसा. रामकथा ही शिवान उमा आनी भुशुंडी हांकां सांगल्या. भुशुंडीन गरूडाक सांगल्या आनी याज्ञवल्क्यान भरद्वाजाक सांगली. पूण जायतेकडेन तुलसीदासान अध्यात्मरामायणाकडे मतभेद दाखयला. रामचरितांत कवीन आपणायल्ली कथा कलापूर्ण रितीन घडोवन आनी जाय थंय तिच्यांत बदल घडोवन एक बेस बरो उत्कर्श सादला. तुलसीदासान महाभारत आनी जायतीं पुराणां हातूंत जंय जंय रामकथा मेळळयो थंयच्यान कांय अंश घेतला. रघुवंश, प्रसन्नराघव, हनुमन्नाटक हातुंतल्यानय तुलसीदासान जायती म्हायती मेळयल्या. ताणें ब्रह्मा, विष्णु, महेशापरसय रामाक उंचेली सुवात दिल्या. रामचरितांत ताणें इतिहास भक्ती, आनी प्रेरणा हांचो मेळ घडोवन हाडला.

तुलसीदासान रामकथेक आपले प्रतिभेन उंचेली सुवात दिल्या, तिका नवरसांनी समृध्द केल्या, गुणांनी सोबयल्या आनी अलंकारांनी नटयल्ली आसा. हे कथेंतली तुलसीदासाची रसनिर्मीतीय उल्लेख करपासारकी आसा. रामसीतेचे पयले भेटेचो प्रसंग मांडून ताणें श्रृंगार रसाक बेसबरो आळयला. वीररसाचें वर्णनय हांगा जायतेकडेन आयलां. ताचीं व्यक्तिचित्रणां उदात्त आसात. तशेंच सहानुभुतीपूर्ण अशीं आसात. रामाक वनवासाक धाडपाचो दोश सहसा कैकेयीक दितात. पूण तुलसीदासाच्या मतान मंथरेची बुध्दी सरस्वतीन भ्रश्ट केल्ली. देवान आपल्या उद्देशाखातीर तिका नीच दाखयली.

तुलसीदासाच्या मतान रावण हो रामाचो विरोधी भक्त. ताच्या मतान ताणें सीतेचें हरण केलें तें तिचेर भाळून वा मनांत विशयवासना धरून न्हय, जाल्यार ताका रामाच्या हातांतल्यान मरण मेळोवन हो भवसागर पार करपाचो आशिल्लो. दुस्मानपण केलेबगर रामाच्या हातांतल्यान आपल्याक मरण येवचें ना हें खबर आशिल्ल्यान ताणें हो वांकडो मार्ग धरलो. तशेंच ताणें रामाच्या सगळया भावांत भरताची रामभक्ती व्हड मानल्या. सीतेचें चरित्र वर्णन करतना ताणें तिचो जगदंबा म्हणून उल्लेख केल्लो आसा. रामचरित मानसांत ताणें रामान केल्लें सीतात्यागाचें वर्णन घेवंक ना. तुलसीदासान रामराज्याचें वर्णन करून तितल्यारच आपलो ग्रंथ पुराय केला.

रामचरितमानसाचो उत्तर भारतांत खूब प्रसार जालो. घराघरांनी ताचे पाठ जावंक लागले.

तुलसीदासान आपल्या काव्यांत भक्तीरस आळयल्ल्यान तातुंतल्या काव्यगुणांनी रसिकजनांच्या चित्ताक भुलोवणी घाली. रामचरितमानस हें गेय काव्य आशिल्ल्यान जांयत्या गायकांनी रामायणमंडळयो स्थापन केल्यो. हे पंगड गांवागांवांनी फिरून मानसाचें गायन करून लोकांचें मनोरंजन करताल्यो. तुलसीदासान हातूंत अवधी हे विशयानुरूप भाशेचो प्रयोग केल्ल्यान हो ग्रंथ सोबीत आनी मनोहर असो जाला.

तुलसीदासाच्या काळासावनच रामचरितमानसाचें नाट्यरुपांत प्रयोग जाताले. आजून लेगीत रामलिलेच्या उत्सवांतलीं सगळीं पात्रां तुलसीदासाचेच संवाद म्हण्टात.

तुलसीदासान रामचरितमानसांत भक्तीक चड म्हत्व दिल्लें आसा. हातूंत ताणें समाजाचें चित्र विचलित करून नाका आशिल्ल्या मार्गान व्हरपी मतांचें आनी पंथाचें खंडन केलां. ताणें सज्जनाचें स्वरूप विशद केलें आनी दुर्जनाचें स्वरूप उकतें केलें. मनशाचो आचार कसो आसचो, मनशांमनशांमदले संबंद कशे आसचे, ल्हानांनी व्हडांकडेन आनी व्हडांनी ल्हानांकडे कशें वागचें, समाज वेवस्था आनी राजवेवस्था कशी आसची तशेंच मनशाचें श्रेय आनी प्रेय खंयचें ह्या सगळया गजालिंचें दिग्दर्शन रामचरितमानसांत केल्लें आसा. धर्म खंयचो आनी अधर्म खंयचो हें फकत ताणें दोन वळींत सांगलां :

परहित सरिस धरम नहिं भाई ।
पर पीडा सम नहिं अधमाई ।।

**अर्थ :** दुसऱ्याचें कल्याण करप ह्या सारको धर्म आनी दुसऱ्याक पिडप ह्या सारको अधर्म ना.

- कों. वि. सं. मं.

**रामजोशी :** (इ. स. १७५८ - १८१३). पेशवाईंतलो एक नामनेचो शाहीर आनी कीर्तनकार. रामजोशी हो मुळचो सोलापूरचो आशिल्ल्यान, ताका सोलापूरकर रामजोशी अशेंय म्हण्टाले. ताचें मूळ आडनांव तासे. पूण ताच्या घराण्याची वृत्ती भिक्षुकीची आशिल्ल्यान काळांतरान तासे हें आडनांव फाटीं पडून जोशी हें आडनांव कायमचेंच उरलें.

हाचें पुराय नांव रामचंद्र जगन्नाथ जोशी. रामजोशीचो बापूय जगन्नाथ आनी चुलतो अनंत हे दोगूय वेदशास्त्रसंपन्न आसून, समाजांत तांकां मान आसलो. राम जोशीचो व्हडलो भाव मुद्गलभट हो कथा - कीर्तन करतालो आनी पुराणांय सांगतालो. तेच प्रमाण तो आपली परंपरेन प्राप्त जाल्ली भिक्षुकी चलयतालो. बापायन संवसार सोडल्या उपरांत धाकट्या भावाक सांबळपाची जापसालदारकी ताणें घेतली.

रामजोशीनूय आपलेपरीन कीर्तन, प्रवचन, भिक्षुकी करप आनी आपल्या कुळाची कीर्त वाडोवप अशी मुद्गलभटाची इत्सा आसली. पूण रामजोशी हो भुरगेपणासावन मस्तो आनी तवनास आशिल्लो ताणें भावाचे इत्सेची कदर केली ना. तो प्रतिभावान आनी बुदवंत आसलो खरो, पूण तमासगिरीचे संगतीन ताका वायट वळण लागलें आनी ताणें शाळा सोडून आपल्या घरामुखार धोंडिबा नांवाच्या शाहिराकडे तो रातदीस रियाझ आनी आपलें जेवणखाणय करूंक लागलो.

मुद्गलभटान ताका शिस्त लावपाचो यत्न करीनाफुडें ताणें भावाचो संबंद तोडून उडयलो आनी तो राजरोस तमाशाच्या पंगडांत सामील जालो.

सुरवातीक तो धोंडिबा शाहिराक लावण्यो रचून दिवपाचें काम करी. पूण फुडें तो स्वताच तमाशा करूंक लागलो आनी एक नामनेचो तमासगीर शाहीर म्हण फामाद जालो. ताका नामना आनी संपत्ती खूब मेळ्ळी खरी, पूण ताच्या चैनी आनी व्यसनाखातीर ती ताका तिगोवपाक आयली ना. निमाणो तो कफल्लक जालो. पश्चातापान पंढरपूराक वचून वे.शा.सं. बाबा पाध्ये हांच्या म्हऱ्यांत विद्याध्ययनाखातीर रावलो. उपरांतचीं कांय वर्सां ताणें थंय मन लावन अभ्यास केलो आनी एक बरो कीर्तनकार आनी पुराणीक जावन तो सोलापूराक परतलो.

सोलापूरच्या एका देवळांत ताणें पुराणकथा सांगली आनी फुडें ताणें कीर्तनांय करपाक सुरवात केली आनी फुडलो सगळो काळ ताणें संबंद महाराष्ट्रांत कीर्तन करपाखातीर सारलो. पंढरपूर वर्णन, तुळजापूर वर्णन, गिरीच्या व्यंकटेशाचें वर्णन, ह्यो लावण्यो ताणें ते ते भोवडेंत रचल्यो.

रामजोशीक चडकरून शृंगारकवी म्हण वळखतात. ताची आध्यात्मिक काव्यरचणूक ही ताचो तमाशाचो नाद सुटल्या उपरांतची आसा. लावणीवाङ्मयांत रामजोशी हो शृंगाराचो कवी आसून, उपमा, तरल कल्पना आनी अनुप्रास ह्या वाङ्मयीन गुणांनी ताचें लावणीवाङ्मय कोणाचेंय मन ओडून घेवपी अशें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रामटेक :** विदर्भांतलें एक पुर्विलें स्थान. रामगिरी हें हाचें संस्कृत नांव. पुर्विल्ल्या काळासावन ह्या शाराक धर्मीक, संस्कृतीक आनी राजकीय म्हत्व आसा. राम वनवासाक आसतना थोडो वेळ ह्या जाग्यार विसव घेवपाक आयिल्लो. ताका लागून ह्या जाग्याक रामटेक हें नांव पडलें अशें सांगप जाता. रामटेकाक काशीचें महाद्वार अशेंय म्हण्टात. रामटेकाच्या लागसल्ल्या दोंगरार एका तेंपार हिरण्यकशिपू हो दैत्य राज्य करतालो असो उल्लेख मेळटा. विष्णुन ताका मारलो आनी ताच्या रगतान हो पुराय दोंगर तांबडोगुंज जालो. ताचेवयल्यान ह्या वाठाराक सिंदुरगिरी अशेंय म्हणूंक लागले.

इतिहासीक संशोधनावयल्यान रामटेकाक सुमार १५०० वर्सां रामगिरी ह्या नांवान वळखताले. पुर्विल्ल्या काळांत हे दोंगुल्लेचेर रामाच्या पादुकांचें पुजन जातालें. 'वन्द्यैः पुंसां रघुपतिपदैरङकितं मेखलासु' म्हळयार रामचंद्राच्या पुज्य पावलांनी पावन जाल्लो हो रामगिरी अशें कालिदासान मेघदुतांत म्हणिल्लें आसा. उपरांतच्या काळांत केन्नातरी थंय पादुकांजाग्यार राम, सीता आनी लक्ष्मण हांच्यो मुर्ती स्थापन केल्यो आसूंक जाय.

वाकाटक राजकुळांतले लोक रामाचे उपासक आशिल्ले. वाकाटकांची राजधानी नंदीवर्धस्त (नगरधन) रामटेकच्या लागसारच आशिल्ली. ह्या कुळांतलो एक राजा प्रवरसेन (दुसरो) हाच्या दरबारांत कालीदास हो सम्राट चंद्रगुप्ताचो वकील म्हूण कांय तेंप आशिल्लो. थंयच्या राजमंडळी वांगडा तोय परत परत रामटेकाक वतालो. थंयचो सोबीत सैम पळोवन ताका आपलें मेघदूत हें खंडकाव्य बरोवपाची स्फूर्त आयली, अशें म्हण्टात.

औरंगजेबाच्या काळांत हांगाच्या मुर्तींक सांबाळून दवरपाखातीर हांगाच्या पुजाऱ्यान त्यो दुधाळे नांवाच्या तळयांत बुडोवन दवरिल्ल्यो. फुडें नागपुरचो रघुजी भोसले हाणें त्यो मुर्ती तळयांतल्यान काडून इ.स. १७५३ त तांची परत प्रतिश्ठापना केली. तेचपरी पुजेची कायम वेवस्था जावची देखून द्रव्य दिवन विश्वस्तनिधीय उबारलो.

ह्या गडाचेर वचूंक जायते मार्ग आसात. पूण धूम्रेश्वर आनी अंबाळा हे म्हत्वाचे आसात. धुम्रेश्वर हें लागसल्ल्या दोंगुल्ले वयलें शिवलिंग आसा. शुद्र मुनी शंबूक हो हांगा तप करतालो. शुद्राक तपाचो अधिकार ना ह्या धर्मशास्त्रांतल्या वचनाक पाळो दिवपाक रामान ताका जिवो मारलो. मरता आसतना ताणें रामाकडेन तीन वर मागले : १) रामान हे दोंगुल्लेचेर कायम वास्तव करप २) आपलो देह शिवलिंगरूप जावचो आनी ३) रामटेकार वचपी यात्रेकरूंनी सुरवेक आपलें दर्शन घेवचें. रामान हे तीनय वर ताका दिले. ताका लागून भावीक लोक सुरवेक धुम्रेश्वराचें दर्शन घेतात.

अंबाळा मार्गांत सुरवेक अंबाळा तळें लागता. थंयच राधाकृष्ण देवूळ, प्रेमकुटी, वैष्णवी देवी, दत्तमंदिर आनी सिंदूरपापी (सेंदूरबावली) नांवाची एक बांय आसा. हे बांयक मुदग्रतीर्थ अशेंय म्हण्टात.

हांगाचे उत्तरेकडले दोंगुल्लेचेर त्रिविक्रम वामनाचें देवूळ आसा. सेंदूरबावलेचे दक्षिणेक नरसिंहाचीं दोन देवळां आसून तांकां, धाकटो नरसिंह आनी व्हडलो नरसिंह ह्या नांवान वळखतात. थंय लागसारच वराहाचें देवूळ आसून ही मूर्त चतुष्पाद, चार फूट उंचायेची आनी गडगंज आसा. तिच्या पांयांतळा हिरण्याक्ष राक्षस चिडुल्लो आसा. लोक हे मुर्तीच्या पोटा पोंदच्यान सरपटत पलतडीन वतात.

हाचेभायर हांगा भोगरामाचें आनी देवीचें देवूळ आसा. ह्या दोनय देवळांमदीं जो जागो आसा, त्या जाग्याक महानुभाव पंथाचे लोक पवित्र मानतात. महानुभावांची हांगा व्हड जात्रा भरता.

रामटेकावयलें मुखेल देवूळ म्हळयार राममंदीर. हातूंत राम सीतेच्यो काळया पाशाणाच्यो वनवासी भेसांतल्यो मुर्ती आसात. ह्या देवळाचो प्राकार व्हड आसून ताच्या चारय दिकांनी दारां आसात.

रामाच्या देवळामुखारच लक्ष्मणाचें स्वतंत्र देवूळ आसा. ह्या देवळांत एक यादव काळांतलो शिलालेख आसून तातूंत यादव राजांनी केल्ल्या पराक्रमाचें वर्णन आसा. ह्या देवळाचे दक्षिणेक सीतेची न्हाणी ह्या नांवान वळखतात तें एक कुंड आसा.

रामनम आनी त्रिपुरी पुनवेक हांगा व्हड जात्रा भरता. हाचेभायर हांगा जायते उत्सव जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**रामण्णा, राजा :** (जल्म : २८ जानेवारी, १९२५).

भारतीय शास्त्रज्ञ. भारतीय अणुउर्जा आयोगाचो चवथो अध्यक्ष. ताणें भारतांत अणुकेंद्रीय तंत्रविद्येचो विकास करपांत म्हत्वाचें कार्य केलां.

रामण्णा हाचो जल्म म्हैसूरांत जालो. मुळावें शिक्षण बेंगलोराक जालें. ताणें मद्रास विद्यापिठाची बी.एस्. सी. आनी लंडन विद्यापिठाची पी.एच्.डी. ह्यो पदव्यो जोडल्यो. १९४९ वर्सा तो टाटा इन्स्टिटयूट ऑफ फंडामेंटल रिसर्च, मुंबय हांगा रुजू जालो. १९५३ वर्सा तो भाभा अणुसंशोधन केंद्र (पयलींचें अणुऊर्जा आस्थापन) हांगा अणुकेंद्रीय भौतिकी विभागाचो मुखेली जालो. जून १९७२ सावन, जून १९७८ मेरेन तो भाभा अणुसंशोधन केंद्राचो संचालक आनी अणुऊर्जा आयोगाच्या संशोधन आनी विकास फांट्याचो वांगडी जालो. जुलय १९७८ त तो केंद्रीय संरक्षण (राखणे) मंत्र्याचो विज्ञानिक सल्लागार आनी संरक्षण, संशोधन आनी विकास संघटनेचो महासंचालक आनी भारत सरकाराच्या संरक्षण संशोधन खात्याचो सचिव जालो. जानेवारी १९८१ त तो परत भाभा अणुसंशोधन केंद्राचो संचालक, भारत सरकाराच्या अणुखात्याचो सचिव आनी अणुउर्जा आयोगाच्या संशोधन आनी शिक्षण विभागाचो वांगडी जालो. सप्टेंबर १९८३ ते फेब्रुवारी १९८७ ह्या काळांत तो अणुउर्जा आयोगाचो अध्यक्ष आशिल्लो.

रामण्णा हाचें संशोधन कार्य अणुकेंद्रीय विक्रिया आनी न्यूट्रॉन करण आविश्कार चड करून स्पंदित न्यूट्रॉन तंत्राचो विकास हें आसा. ताणें अणुकेंद्रिय भंजन (अणुकेंद्राचे कुडके करपाखातीर) भौतिकीचो वेगवेगळे नदरेंतल्यान अभ्यास केलो आनी एक नवो सिध्दांत मांडलो. अप्सरा, सायटस आनी पूर्णिमा ह्या संशोधन विक्रियकांचो, कलकत्त्याच्या चलऊर्जा सायक्लोट्रॉन ह्या कणवेग वर्धकाचो तशेंच कल्पकम हांगासरल्या शीघ्र प्रजनक चांचणी विक्रियकाचो अणुकेंद्रीय अभियांत्रिकी आराखडो तयार करप, प्रतिश्ठापना करप आनी कार्यान्वित करप हांचेविशीं रामण्णा हाणें मोलादीक वावर केला. १९७४ वर्सा पोखरण हांगा शांततायेखातीर अणुचांचणी घडोवन हाडपी शास्त्रज्ञाच्या पंगडाचो तो मुखेली आसलो. अणुऊर्जेचे शांततामय उपेग ह्या विशयावयल्या एकवटीत राश्ट्राच्या घेवपांत आयिल्ल्या बऱ्याच आंतरराश्ट्रीय परिशदांत ताणें वांटो घेतला आनी बऱ्याच राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय म्हत्वाच्या समित्यांचेर अध्यक्ष म्हणून काम केलां. १९६१ त तो नॉर्वे देशाच्या 'नोरा' ह्या नव्या अणुकेंद्रिय विक्रियकाच्या वेवस्थापकीय समितीचो अध्यक्ष, इंटरनॅशनल ॲटॉमिक एनर्जी एजन्सीच्या महासंचालकाच्या वैज्ञानिक सल्लागार समितीचो तो वांगडी जावन आसा. १९८६ त ॲटॉमिक एनर्जी एजन्सीच्या व्हिएन्ना हांगा जाल्ले विसावे असादारण परिशदेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.

रामण्णा इंडियन फिजिक्स ॲसोसिएशनाचो अध्यक्ष, भारतीय विज्ञान परिशदेच्या भांगरामहोत्सवी अधिवेशनांत भौतिकी विभागाचो अध्यक्ष, इंडियन नॅशनल सायन्स ॲकॅडेमीचो अध्यक्ष (१९७६) आनी ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेस हे संस्थेचो उपाध्यक्ष आशिल्लो. ताका पद्मश्री (१९६८), पद्मभूषण (१९७३) आनी पद्मविभूषण (१९७५) हे तशेंच केंद्रिय शांतिस्वरूप भटनागर पुरस्कार (१९६३), मध्य प्रदेश सरकाराचो पंडित जवाहरलाल नेहरू पुरस्कार (१९८३), इंडियन नॅशनल सायन्स ॲकॅडेमीचें मेघनाद साहा पदक (१९८४), ओम प्रकाश भसीन पुरस्कार (१९८५) आनी बऱ्याच विद्यापिठाच्यो सन्माननीय डॉक्टरेट पदव्यो हे भोवमान ताका मेळळयात.

रामण्णा हाका संगिताची आवड आसून तो बरो पियानोवादक आसा. ताका रॉयल स्कूल ऑफ म्युझिकाचें प्रमाणपत्रय फावो जालां.

- कों. वि. सं. मं.

**रामतीर्थ - (१) :** (जल्मः इ.स. चो १६ वो शेंकडो).

एक वेदान्ती. हो काशींत रावतालो. कृष्णतीर्थ हाचो शिश्य. भक्तिविवेककार (पयलो) अनंतदेव हाचो तो गुरू आसुंये, अशें कांय पंडितांचें मत आसा.

ताणें पदयोजनिका, अन्वयार्थप्रकाशिका, सुरेश्वराच्या दक्षिणामूर्तिवार्तिकावयली टीका, सदानंतकृत वेदान्तसाराचेर विद्वन्मनोरंजनी टीका, शारीरकरहस्यार्थतत्त्वप्रकाशिका आनी वाक्यार्थदर्पण हे ग्रंथ रचल्यात. पदयोजनिका ही आचार्यकृत उपदेशसाहस्त्रीवयली टीका आसून, अन्वयार्थप्रकाशिका ही संक्षेपशारीरकाची टीका आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रामतीर्थ - (२) :** (जल्मः २२ ऑक्टोबर, मुरलीवाल - गुजराणवाला, पंजाब १८७३; मरणः १७ ऑक्टोबर, १९०६).

फाकिवंत तत्त्वचिंतक. ताचें पयलींचें नांव तीर्थराम आनी संन्यास घेतल्या उपरांतचें नांव रामतीर्थ. बापायचें नांव हिरानंद गोस्वामी. ताचे आवयक तो भुरगो आसतनाच मरण आयलें. तुळशीदासाचो वंशज म्हणून ह्या घराण्याची कीर्त आशिल्ली. भुरगेपण बऱ्याच हालांनी गेलें. तो धा वर्सांचो आसतना ताचें लग्न केल्लें. गुजराणवाला हायस्कुलांतल्यान तो



मॅट्रिकेची परीक्षा (१८८८) पास जालो. लाहोरच्या फोरमन कॉलेजींतल्यान गणित विशयांत एम्. ए. (१८९५) पयल्या श्रेणींत पयलो क्रमांक आनी तेच कॉलेजींत गणिताचो प्राध्यापक म्हणून नोकरी केली (१८९६). लाहोराक तो धर्मसभेच्या शिक्षण मंडळाचो

पयलीं सुरवातीक वांगडी, तर उपरांत सचिव जालो. गुजराणवाला हांगा शिकता आसतनाच बापायचो इश्ट आनी रामकृष्ण परमहंसाचो शिश्य धन्नाराम भगत हाचो सहवास ताका लाबलो. फुडाराक तोच ताचो गुरू जालो. रामतीर्थ कृष्णभक्त आशिल्लो. ताका प्रत्यक्ष श्रीकृष्णान दर्शन दिल्लें अशें म्हण्टात. द्वारका मठाचो शंकराचार्य श्री राजराजेश्वरतीर्थ हाचेवांगडा तो काश्मीराक गेल्लो आसतना ताका सत्संग घडून ब्रह्मसूत्रां, उपनिशदां हांचेवयलीं भाश्यां आयकूंक मेळ्ळीं. तेचवेळार ताणें स्वामी विवेकानंदाचीं उलोवपां आयकलीं आनी तांचो अभ्यास केलो. हाकाचलागून आंतरिक आध्यात्मिक ज्ञानार्जनाची ओड लागून नोकरेंत ताचें लक्ष लागना जालें. हाचोच परिणाम म्हणून तो सर्वसंगपरित्याग करून हिमालयांत गेलो आनी पिरायेच्या २८ व्या वर्सा ताणें संन्यास घेतलो. तेउपरांत ताणें बऱ्याच तीर्थथळांची भोंवडी केली. भारतधर्म महामंडळाच्या अध्यक्षपदावयल्यान ताणें वैदिक धर्माचो पुरस्कार केलो. अनासक्ती, समाधानी वृत्ती, आनी सादी राहणी हांचें सदांच पालन करून फकत आत्मसाक्षात्काराचो, विचार करीनासतना ताणें आपल्या देशाचेंय बरें जावचें म्हणून यत्न केले. ताचो वेदान्त फकत शाब्दीक नासून तो ताणें आचरणांत हाडिल्लो. म्हणूनच व्हड सुधारकांमदीं ताचें नांव घेतात. भौतिक शास्त्राच्या आदारानूच वेदांताचे सिध्दांत मांडून ते आर्विल्ल्या काळांतूय खरे थारतात, हें ताणें सप्रमाण दाखोवन दिलें.

टोकियोक भरिल्ले आंतरराश्ट्रीय परिशदेक टेहरीच्या महाराजाच्या आग्रहावयल्यान तो हाजीर रावलो (ऑगस्ट १९०२). ताणें जपानांत वेदांताचेर व्याख्यानां दिलीं आनी तीं पांडित्य आनी उत्तम कवित्वाक लागून लोकांक बरींच मानवलीं. उपरांत अमेरिकेकूय स्वामी विवेकानंदाभाशेन ताका बरो येवकार मेळ्ळो. हो दौरो सोंपोवन तो मायदेशाक परतलो. भारतांत येतकच बरेच जाण ताचे शिश्य जाले. तांचेमदीं नारायणस्वामी, टेहरीचे महाराज, मदन मोहन मालवीय, स्वामी शिवानंद, डॉ. महंमद इक्बाल हे मुखेल आशिल्ले.

रामतीर्थान आपल्या आयुश्याच्या पयल्या पर्वांत बरेच ग्रंथ बरयल्ले. पूण अचकीत निर्शेणेच्या भरांत ताणें आपली बरीच ग्रंथसंपदा गंगार्पण केली. ताकालागून परदेशांत आनी भारतांत दिल्ल्या व्याख्यानांचेर आदारीत अशा लिखाणाभायर ताचें स्वतंत्र वाङ्मय चडशें मेळना. उर्दू, फारसी आनी इंग्लीश भाशांचेर ताचें प्रभुत्व आशिल्लें. ताका बरेपैकीं कवित्व लाबिल्लें. ताचीं हजारांवयर पत्रां आनी कांय टिपणां रामतीर्थ प्रकाशनावतीन उजवाडाक आयल्यांत.

रामतीर्थ आध्यात्मिक खोंशयेंत इतलो व्यस्त आसतालो, ताणें आपल्या बरोवपांत बरेच कडेन स्वताचो उल्लेख 'राम बादशाह' असो केल्लो आसा. ताचें उजवाडाक आयिल्लें इंग्लीश बरप अशें आसा: (१) 'इन वुड्स ऑफ गॉड्स रीअलाइझेशन' (८ खंड), (२) 'रामाज नोटबुक्स', (२ खंड), (३) हार्ट ऑफ राम, (४) पॅरबल्स ऑफ राम आदी. ह्या पुस्तकांचे हिंदी, मराठी अणकारूय उजवाडाक आयल्यात. रामतीर्थाक हिमालयाची खूब ओड आशिल्ली. थंयच्या व्हड सैमाचे सोबीतकायेची ताणें केल्ल्या वर्णनांत सौंदर्यवृत्ती आनी आध्यात्मिकताय हांचो बरेतरेन मेळ दिसून येता.

रामतीर्थ गंगेचेर न्हावंक गेल्लो आसतना भोवऱ्यांत सांपडून पिरायेच्या फकत ३३ व्या वर्सा ताका मरण आयलें. योगायोगान त्याच दिसा ताणें बरयल्लो मरणासंबंदींचो एक लेख ताच्या शिश्यांक ताच्या मेजार मेळ्ळो. उत्कृश्ट काव्याचो तो एक नमुनो जावन आसा. तातूंत मरणाक उद्देशून ताणें बरयलां, 'म्हजी कूड तूं खुशाल घेवन वच. चंद्राच्या किरणाच्या रुपान, दोंगराळ न्हंया - झऱ्यांच्या भेसान, दर्यावयल्या ल्हारांच्या निमतान हांव संवसारांत वावरूंक शकतलो'.

हृषिकेशालागसरच्या ब्रह्मपुरी हांगा रामतीर्थाचें यादस्तीक कशें एक वाचपघर चलता.

- कों. वि. सं. मं.

**रामदासस्वामी** : (जल्मः १६०८ जांबगांव - महाराष्ट्र; मरणः २ फेब्रुवारी १६८२). महाराष्ट्रांतलो संत कवी. ताच्या बापायचें नांव सूर्याजीपंत ठोसर आनी आवयचें नांव राणूबाई. गंगाधर हो ताचो व्हडलो भाव. नारायण हें रामदासाचें पाळण्यांतलें नांव. पूण उपरांत तो रामदास आनी समर्थ ह्या नांवांनी नामनेक पावलो.



भुरगेपणासावनूच रामदास खूब हुशार. पिरायेच्या बाराव्या वर्सामेरेन शब्दरुपावली, समासचक्र, अमरकोश, रुद्र, पवमान सारकिल्ल्या ग्रंथांचें ताणें पाठांतर केल्लें. ल्हान आसतनाच सुरवेक बापायकडल्यान आनी उपरांत भावाकडल्यान ताणें मंत्रोपदेश घेवपाचे खूब यत्न केले. पूण रामदासाची पिराय ल्हान आशिल्ल्यान तांणी ताका मंत्रोपदेश दिवपाक न्हयकार दिल्लो. हाका लागून रामदास तिडकीन गांवाभायल्या देवळांत वचून बसलो. थंयच ताका रामान दर्शन दिवन 'श्रीराम जयराम जयजयराम' हो त्रयोदशाक्षरी मंत्र दिलो अशें म्हण्टात.

रामदासाचे इत्सेआड ताचे आवयन आनी भावान ताचें लग्न थरयल्लें. पूण मंगलाश्टकां चालू आसतनाच तो मंटपांतल्यान पळून गेलो अशें सांगतात. उपरांत तो तपश्चर्येखातीर नासिक लागशिल्ल्या टाळकी गांवांत येवन रावलो. टाळकिच्या बारा वर्सांच्या काळांत ताणें

राममंत्राचो तेरा कोटी जप, वेदशास्त्रां, वेदान्त, काव्यां आनी पुराणां हांचो अभ्यास, तशेंच संगीत साधनाय केली. बारा वर्सां तप केल्या उपरांत तो टाळकी सोडून तीर्थयात्रेक भायर सरलो. सुरवेक काशी, प्रयाग, गया, अयोध्या, श्रीनगर, हिमालयांतल्या बद्रिनारायण आनी केदारनाथ ह्या प्रसिद्द धर्मीक क्षेत्रांक ताणें भेट दिली. पंजाबाक वचून तो शीख धर्मगुरूंक मेळ्ळो. उपरांत दक्षिणेंतल्या मुखेल क्षेत्रांकूय ताणें भेट दिल्ली. हे भोंवडेंत तो कांय श्रेश्ठ साधुसंतांक मेळ्ळो आनी कांयकडेन राम - हनुमान हांचीं देवळां आनी मठ उबारले. आपल्या आयुश्याच्या निमाण्या पर्वांत ताणें धर्मसंस्थापनाचें कार्य करपाचें थारायलें. तेखातीर तो कृष्णा न्हंयेचे देगेर येवन रावलो. राजकारण होच राजाचो खरो धर्म हें आपलें मत ताणें जाणीवपुर्वक अभ्यास करून स्पश्ट केलां. रामदासाच्या मतान राजा हो परमार्थसंस्थापक आनी सज्जनांचो राखणदार. अशा राजाचें राज्य तें ताचे नदरेन रामराज्य. परमार्थाचो अधिकार दादल्याप्रमाण बायलांकूय आसा अशें तो मानतालो. आपल्या धर्मप्रचाराखातीर ताणें इस्लामी राजवटींत मोडतोड जाल्लीं देवळां आनी मुर्ती हांची पुर्नस्थापना केली. पूण आपल्या धर्मविचारांत ताणें हिंदू - मुसलमान असो भेदभाव केलो ना. शिवाजी महाराजान रामदासाचो उपदेश घेतिल्लो. पूण ताच्या स्वराज्य संस्थापनाच्या वावरांत रामदासान प्रत्यक्षपणान वांटो घेतलो ना.

दासबोध आनी रामायण हे रामदासाचे मुखेल ग्रंथ. दासबोध हो ग्रंथ ७,७५१ ओव्यांचो आनी उपदेश स्वरुपी आसा. ताचो रामायण हो ग्रंथ सुंदर आनी युध्द अशा दोन कांडांनी विभागला. सुंदर कांडांत १०१ श्लोक, जाल्यार युध्द कांडांत १,३६२ श्लोक आसात. तशेंच ताणें खूब अभंग, श्लोक आनी भूपाळ्यो रचल्यात. ताचें करूणाष्टक, मनाचे श्लोक आनी सुखकर्ता दुःखहर्ता ही गणपतिची आरत खूब प्रसिद्द आसा.रामदासाच्या लिखाणांतले शिंवरून पडिल्ले साहित्यविशयक विचार सोदून काडून 'रामदासांचे साहित्यशास्त्र' (१९७३) हो ग्रंथ भा. श्री. परांजपे हाणें बरयला.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : दासबोध

**रामन, चंद्रशेखर व्यंकट :** (पळेयात रमण चंद्रशेखर).

**रामनम :** चैत्र शुध्द नमीक रामनम अशें म्हण्टात. ह्या दिसा प्रभु रामचंद्राचो जल्म जाल्लो. ह्या दिसा रामाचें व्रत करतात. अश्टमी दिसा व्रताचो संकल्प करून, नमी दिसा सकाळीं पुजा करपाच्या जाग्यार फुलांनी सजोवन ल्हान माटोव तयार करतात. ताचे चार वटेन चार दारां दवरून उदेंत दाराचेर शंख, चक्र आनी हनुमान; अस्तंत दाराचेर गदा, खड्ग आनी अंगद; दक्षिण दाराचेर धोणू, बाण आनी गरूड आनी उत्तर दाराचेर पद्म, स्वस्तिक आनी नील हांच्यो प्रतिमा दवरून तो माटोव सजयतात. ताचे मर्दी वेदी तयार करून ताचेर उदकान भरिल्लो कलश आनी कलशाचेर पडगो दवरून तातूंत राम - सीतेची भांगरा मुर्ती दवरतात. हे प्रतिमेची षोडशोपचार पुजा करतात आनी हो मंत्र म्हण्टात :

> दशाननवधार्थाय धर्मसंस्थापनाय च ।
> दानवानां विनाशाय दैत्यानां निधनाय च ।।
> परित्राणाय साधूनां जातो रामः स्वयं हरिः।
> गृहणात्वर्घ्य मया दत्तं भ्रातृभिः सहितो विभुः ।।

हो मंत्र म्हणून अर्घ्य दितात आनी प्रार्थना करतात. रामाचो जल्म दनपरां जाल्लो देखून त्या वेळार वाद्यां वाजोवन फुलां ओंपतात.

हाचेभायर ह्या दिसा राममंत्राचो जप आनी पुराय दीस उपास करप जाता. रातचें भजन, कथा - कीर्तन आदी करतात. दसमी दिसा रामाची पुजा करून आज्य आनी पायस हांचें दर एकी १०८ आहुतींचें हवन करतात. उपरांत भटाची पुजा करून ताका ती प्रतिमा दान दितात. उपरांत उत्तर पुजा करून ब्राह्मणांक जेवण दितात.

हें व्रत केल्ल्यान सगळीं व्रतां केल्ल्याचें फळ मेळटा अशी समजूत आसा. ह्या दिसा कांयकडेन रामाच्या देवळांत चैत्र शुध्द प्रतिपदेसावन णव दीस हो उत्सव चलता. रामायणाचें पारायण, कथाकीर्तन करून हो उत्सव मनयतात. नमी दिसा दनपरां रामजल्माचें कीर्तन जाता आनी उपरांत कुंची घाल्लो राम पाळण्यांत दवरून पाळणो हालयतात. भक्त लोक ताचेर गुलाल आनी फुलां घालतात. उपरांत सगळे सुवाळे जातकच हो उत्सव सोंपता.

नासिक, अयोध्या, तिरुपती, रामेश्वर हांगा हो उत्सव व्हड प्रमाणांत मनोवप जाता.

गोंयांत जायत्या देवस्थानांनी हो उत्सव मनयतात. ह्या दिसा सकाळीं १० वरांचेर कीर्तन सुरू करून दनपरां रामजल्मोत्सव जाता. फुलांनी सजयल्ल्या ल्हानशा पाळण्यांत रामाची भांगराची, रुप्याची वा पंचलयी मूर्त पाळण्यांत घालतात. उपरांत पुरोयत पाळण्याक धोलयता. पर्तगाळ हांगाच्या जिवोत्तम मठांत रामनमीचो उत्सव व्हड प्रमाणांत मनयतात. त्या दिसा रामाची मूर्त रथार बसोवन भक्तलोक रथ ओडटात. कांय देवळांनी ह्या दिसा पालखी काडटात.

- कों. वि. सं. मं.

**रामनाथ - (१) :** गोंयचें एक नामनेचें देवस्थान. रावणाचो वध केल्ल्यान रामाक ब्रह्महत्येचें पातक लागलें, तें ना करचें म्हणून ताणें रामेश्वराक शिवलिंगाची स्थापणूक केली. ताचेंच नांव रामनाथ. देखून हें शिवदैवत जावन आसा. पुर्विल्ल्या काळांत वत्स आनी कौंडिण्य गोत्राच्या सारस्वत ब्राह्मणांनी गोंयांतल्या साश्टींत, लोटली गांवांत राबितो केलो, तेन्ना तांणी आपलो कुळदेव श्री रामनाथ हाची मूर्ती

आपल्यावांगडा व्हेली. ते मूर्तीची थंयच्या एका देवळांत प्रतिश्ठापना केली. ताच्याच वाठारांत श्रीलक्ष्मीनारायण, श्रीशांतादुर्गा (सांतेर), क्षेत्राची सया रामनाथीं दिसता. बेताळ आनी काळभैरव हांचीं पोरनी देवळां घटमूट आशिल्ल्यान तीं तशींच दवरलीं आनी उपरांत तांचें



रामनाथ देवस्थान - रामनाथी

बेताळ आनी सिध्दनाथ ह्या देवतांचीय स्थापना जाली. त्या पांच देवतांचीं पांच देवळां उपरांत बांदलीं आनी ते सुवातेक 'देवुळवाडो' अशें नांव मेळ्ळें. इ. स. च्या १६ व्या शेंकड्यांत गोंय पुर्तुगेजांनी घेतलें आनी हिंदूंक बाटोवपाक सुरवात केली. हिंदूंच्या देवळांचोय तांणी इबाड करपाक सुरवात केली. म्हणून इ.स. १५६६त लोटलीच्या गांवकारांनी आपल्या सगळ्या देवतांवांगडा स्थलांतर केलें. विजापूरकाराच्या राज्याच्या अंत्रुज म्हालांत बांदोड्यां गांवांत ते राबितो करून रावले आनी थंयच तांणी आपल्या देवतांची परत स्थापणूक केली. फुडाराक ते लोक थंयच स्थिरस्थावर जावन तांची वेपार धंद्यांत भरभराट जाले उपरांत तांणी बांदोडे हांगा पांच वेगवेगळीं देवळां बांदलीं आनी तातूंत पांचूय देवतांची स्थापना केली. तांचेमदीं मदेगाक आशिल्ल्या देवळांत लक्ष्मीनारायणाची काळ्या पाशाणाची सोबीत मूर्त आसून दावे वटेन रामनाथ आनी शांतादुर्गा हांचीं देवळां आसात. उजवे वटेन कामाक्षीचें देवूळ आसा. रामनाथाच्या देवळांतूच सिध्दनाथाची स्थापना केल्या. तशेंच रामनाथाच्या प्राकारांत बेताळ आनी काळभैरव हांचीं ल्हान देवळां आसात.

गेल्या शेंकड्यांत हीं पोरनी देवळां पडूंकझडूंक लागिल्ल्यान इ.स. १९०५ त तांचो जीर्णोध्दार केलो आनी नवीं व्हड देवळां बांदलीं. तेवेळार मुखेल गर्भकुडींत वयले सुवातेर लक्ष्मीनारायण आनी मदीं रामनाथ (शिवलिंग) ह्या देवतांची स्थापना केली. लागींच ताचें वाहन नंदीय आसा. उजवे वटेनच्या देवळांतल्या गर्भागारांत शांतादुर्गा (ही लोटली गांवची ग्रामदेवता) आनी तिचे उजवे वटेन गर्भागाराभायर सिध्दनाथाची स्थापना केली. हाका लागून दक्षिण भारतांत हरिहरेश्वर नुतनीकरण केलें. मुखेल देवळाच्या दोनूय वटेन आनी फाटल्यान अग्रशाळा आसात. सभाघरूय आसा. इ. स. १९३४ त ह्या देवळाचो नगारखानो बांदलो आनी इ.स. १९५१ त तूर्ताक आशिल्लो व्हड सभामंटपूय बांदून तयार जालो. बांदोडें गांवाच्या रामनाथ देवस्थानाच्या वाडपाक रामनाथ देवावयल्यान रामनाथीं हें नांव पडलां. हांगाचो माघ म्हयन्यांत जावपी महाशिवरात्री उत्सव चड प्रसिद्द आसा. तो माघ कृ. १२ सावन फाल्गुन (शिगमो) शु. २ मेरेन चलता. हे वेळार लालखी, पालखी, सांगोड तशेंच वेगवेगळ्या वाहनांतल्यान देवतांच्यो मिरवणुको काडटात. शिवरात्रीच्या दुसरे दिसा फांतोडेर आनी सांजवेळां रामनाथाची रथांतल्यान मिरवणूक काडटात. ह्या उत्सवांत ४ - ५ दीस विंगड विंगड कार्यावळी जातात. दर सोमारा, अक्षयतृतीयेक आनी दसऱ्याकूय रामनाथाचे पालखेचो सुवाळो आसता. हाचेभायर लक्ष्मीनारायणाची दर पंचमीक शांतादुर्गेची आनी कामाक्षीची दर उमाशेक पालखेचे सुवाळे आनी हेर उत्सवूय वेगवेगळ्या वेळार जातात. चातुर्मासांत लक्ष्मीनारायणाची पालखी मात जायना. फाल्गुन म्हयन्यांत दसमीक देवतांच्या पुर्नःप्रतिश्ठा दिसाचो यादस्तीक दबाजो जाता. तातूंत दनपारां समराधना, संतर्पण आनी रातीकडेन चार देवतांची मिरवणूक, सांगोड, दीपोत्सव आदी कार्यावळी जातात. शिगम्याचे रंगपंचमीक जावपी पालखेचो हो खाशेलो सुवाळो जावन आसा. ते भायर नवरात्रांचो उत्सवूय मनयतात. गोंय, मुंबय, राजकोट, दक्षिण कर्नाटकांतले शणै उपनांवाचे सारस्वत ब्राह्मण हे देवाचे कुळावी आनी म्हाजन आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**रामनाथ - (२) :** (इ.स. १८६४ - १९३०).

एक राजस्थानी भक्तकवी. हो बुंदी हांगा रावपी. ताच्या बापायचें नांव रावगुलाबजी आशिल्लें. हो बहुश्रृत, विद्वान आनी व्रजभाशेचो पाटांगडो कवी आशिल्लो. ताणें समस्यासार, सतीचरित्र, राजनीती, नितिसार, शंभशतक, परमेश्वराश्टक, गणेशाश्टक, सूर्याश्टक, दुर्गाश्टक, शिवाश्टक, नीतिशतक आदी इकरा ल्हान व्हड ग्रंथ रचल्यात. तातूंत मुखेलपणान भक्तिगीतांच आसून तांची रचना सरळ आनी सोबीत अशी आसा. ह्या कवितांनी चड करून बोध दिवपी वचनां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**रामनाथकर, रघुवीर :** (जल्म : रामनाथी).

खांपो पेटी वाजोवपी आनी पड्डे रंगोवपी. हस्त कौशल्याच्या ह्या दोनूय विद्यांनी तो पारंगत आशिल्लो. मुंबय वचून तो नांवारुपाक आयलो. तो एक खांपो पेटिवालो अशी ताची भारतभर कीर्त जाल्ली. ताची संगीत परंपरा ताचो पूत रत्नकांत आनी मोहन लाल ह्या दोगांयनी फुडें व्हेली.

- कों. वि. सं. मं.

**रामनाथकार, रत्नकांत :** (जल्म : रामनाथी ).

रघुवीर रामनाथकाराचो पूत. बापायकडल्यान संगिताची देणगी मेळ्ळी. सुरवेचीं भुरगेपणांतलीं १४ वर्सां रामनाथीं गेलीं. १९१८ त तो मुंबय गेलो, तेन्ना सावन ताच्या संगिताच्या शास्त्रीय शिक्षणाक सुरवात जाली आनी थोडया काळाभितर बापायची पेटी वाजोवपाची कला आत्मसात करून ते कलेंत 'बापायपरस पूत सरस' अशी वचत थंय ताणें नामना जोडली. ताची पेटी वादनाची कीर्त मुंबय आनी मुंबय भायरूय पावली.

बापायकडल्यान गायनवादनाचे सुरवेचे धडे चिरले उपरांत ताणें विलायत हुसेन खाँ, नन्हें खाँ, फैयाज खाँ, निसार हुसेन खाँ, खादिम हुसेन खाँ, वझेबुवा हांचेकडल्यानूय विद्यार्जन केलें.

ताणें मुंबय आकाशवणी केंद्राचेर पेटी वादक म्हणून चाकरी केली. नोकरेच्या काळांत व्हड व्हड दिग्गज कलाकारांक ताणें साथ केली. निवृत्तीउपरांतूय आकाशवाणीन ताका गायक कलाकार म्हणून नोकरेक दवरून घेतलो. ताणें कांय राग, तशेंच स्वरचित चीजांचो आनी तराण्यांचो संग्रह केल्लो आसून आकाशवाणीवयल्यान ताणें रचलेल्यो स्वररचना आयकूंक मेळटात. पेटी वाजोवपावांगडाच तो सतार, सारंगी, जलतरंग हीं वाद्यांय बेस बरीं वाजयतालो. तंबोरो लावपाची ताची कळाशी अजापभरीत आसली.

जितेंद्र अभिषेकी, कागलकरबुवा, जगन्नाथबुवा पुरोहित, मीनाक्षी मुडबिद्री, गंगुबाई हंगल, सरस्वती राणे हांकां तशेंच कितल्याशाच हेरांकय ताणें संगिताचे धडे शिकयल्यात. पिरायेच्या ६५ व्या वर्सा कला अकादमी (गोंय) हांगा ताणें संगीतशिक्षक म्हणून काम केलां. ताणें संगीत शास्त्रावयलें पुस्तक बरयलां. ताचें यादस्तीक कशें ताच्या शिश्यांचे वतीन दर वर्सा एक संगीत संमेलन गोंयांत जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**रामफळ :** (पळेयात आंतेर).

**रामरक्षा :** एक नामनेचें स्तोत्र. हातूंत रामाची तूस्त केल्ली आसा आनी तें पठण केल्ल्यान रामाकडल्यान राखण जाता असो भावार्थ आशिल्ल्यान हाका रामरक्षा हें नांव पडलां आसुंये. बुधकौशिक हो ताचो कर्तो आसा आनी सीता-राम ही देवता आसा. भगवान शंकरान बुधकौशिक ऋषीच्या स्वप्नांत वचून ताका ही रामरक्षा सांगली आनी सकाळीं उठटकच बुधकौशिकान ती बरोवन काडली. हें स्तोत्र सादें, सोंपे संस्कृत भाशेंत आसून तातूंत पांच वृत्तां आसात. ह्या स्तोत्रांत वट्ट चाळीस श्लोक आसून तातूंत रामचंद्राची तुस्त केल्ले बारा श्लोक आसात. ह्या बारा श्लोकांतले पयले स श्लोक म्हळयार खरी रामरक्षा आनी दुसरे स म्हळयार रक्षाकार्याखातीर केल्ली सदिच्छा आसा. देखून ह्या भागाक कवच म्हण्टात. कवचांत ते ते देवतेन आपल्या सगळ्या शरीरांअवयवाचें रक्षण करचें अशी प्रार्थना आसता. रामरक्षेंतलें हें कवच अशें आसा :

शिरो मे राघवः पातु भालं दशरथात्मजः ।।
कौसल्येयो दृशौ पातु विश्वमित्रप्रियः श्रृती ।
घ्राण पातु मखत्राता मुखं सौमित्रिवत्सलः।।
जिह्वां विद्यानिधीः पातु कण्ठं भरतवन्दितः ।
स्कन्धा दिव्यायुधः पातु भुजौ भग्नेशकार्मुकः ।।
करौ सीतापतिः पातु हृदयं जामदग्न्यजित् ।
मध्य पातु खरध्वंसी नाभिं जाम्बवदाश्रयः ।।
सुग्रीवेशः कटिं पातु सक्थिनी हनुमत्प्रभुः ।
ऊरू रघुत्तमः पातु रक्षः कुलविनाशकृत् ।।
जानुनी सेतुकृत पातु जङ्घे दशमुखान्तकः ।
पादौ बिभिषणश्रीदः पातु रामोऽखिलं वपुः ।।

**अर्थः** राघव म्हजे तकलेचें, दशरथात्मज कपलाचें, कौसल्यापूत दोळयांचें, विश्वामित्रप्रिय कानांचें, मखरक्षक नाकाचें, लक्ष्मणाविशीं वात्सल्य धारण करपी तोंडाचें, विद्यानिधी जिबेचें, भरतवंदित गळयाचें, दिव्य आयुधां धारण करपी खांद्याचें, शिवधोणू भग्न करपी भुजांचें, सीतापती हातांचें, परशुरामाक जिखपी काळजाचें, क्रुर राक्षसांक मारपी कटिभागाचें, जांबवनाक आलाशिरो दिवपी नाभीचें, सुग्रीवाचो धनी कंबराचें, हनुमंताच्या प्रभु जांघांचें, राक्षसांच्या कुळांचो संहार करपी रघुकुलांतल्या व्हड मांडयांचें, सेतू बांदपी धोंपरांचें, रावणाचो

नाश करपी पोवटयांचें आनी बिभीषणाक राज्यलक्ष्मी दिवपी पांयांचें रक्षण करूं. ह्या प्रमाण श्रीरामचंद्र हो सगळो रक्षामंत्रविभाग बरयता आसतना बुधकौशिकान रामायणांतल्या म्हत्वाच्या प्रसंगाचो कालक्रमान उल्लेख केल्लो आसा. हाचेभायर ह्या स्तोत्रांत रामचंद्राचें पुराय वर्णन, रामतूस्त, फलश्रुती, रामायणाची रूपरेखा, रामवंदन, रामभक्त तूस्त, पूर्वसुरींक वंदन आनी ताची तोखणाय आदी विशय घेतिल्ले आसात.

रामरक्षेचें घरांत सदांच पठण केल्यार सगळयो पिडा आनी भूतबादा नश्ट जाता अशें सांगतात. जो ह्या स्तोत्राचें पठण करता तो दीर्घायुशी, सुखी, संततीवान, जैतीवंत आनी विजयसंपन्न जाता अशें फळ ह्या स्तोत्रांतच सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**रामलिंग स्वामिगळ :** (जल्मः इ.स. १८२३, मरुदर - चिदंबरम्; मरणः इ.स. १८७४).

तमिळनाडुंतलो एक शैव कवी आनी संत. ताच्या बापायचें नांव रामय्या पिल्लै आनी आवयचें नांव चिन्नमय्यार. तांच्या घराब्यांत रामलिंग हो सगळयांत धाकटो. तो ल्हान आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयिल्ल्यान ताच्या व्हडल्या भावानच ताचो सांबाळ केलो. ताच्या शिक्षणाची वेवस्थाय ताणेंच केली.

भुरग्यापणांतसावन तो शिटूक. ल्हान पिरायेचेरच तो भगवद् भक्तीच्यो कविता रचतालो. तो स्कंदाचो उपासक आशिल्लो. ताका संवसाराविशीं मातय आस्था नाशिल्ली तरी आवयचे सांगणेन तो लग्न जालो, पूण घरसंवसारांत मात रमलो ना. ताणें आपलें चडशें आयुश्य चेन्नई आनी तिरुवायूर हांगा सारलें. तो सदांच भक्ती साधनेंत गुल्ल आसतालो. साधना करता करता तो सिध्द जालो. फुडें जायते भक्त आनी विद्वान ताचे शिश्य जाले.

आवयक मरण येतकच तो चिदंबरम् लागसारच्या वडलूर गांवांत गेलो थंय तो जे कुटींत रावतालो, ते कुटींत एके दिव्य ज्योतीचें अवतरण जालें. ताणें ते दिव्य ज्योतीक भगवती मानून सुमार १५०० छंदांत तिचें स्तोत्र केलें. ह्या स्तोत्रसंग्रहाक अरुळपा ह्या नांवान वळखतात, तशेंच रामलिंगमची ती एक अमर कृती मानतात. हे घडणुकेची याद म्हणून थंय एक कायमचो दिवो लावन दवरला.

हे ज्योतीक लागून रामलिंगमाकडे जायते साधक एकठांय आयले. ताणें तांकां ईश्वरी अनुग्रहाचो आनी ज्योतीच्या दर्शनाचो मार्ग उपदेश केलो. ह्या मार्गाक ताणें षडन्तसमरस सन्मार्ग अशें नांव दिलें.

योगान्त, कलान्त, नादान्त, बोधान्त, वेदान्त आनी सिध्दान्त अशे हे स अन्त आसात. साधकभक्त योगान्तापसून सिध्दान्ता मेरेन पावतकच ताका निर्विकल्प समाधींत अनिर्वचनीय अशी शिवानंदाची प्राप्ती जाता.

**१) योगान्त :** योग हो चित्तवृत्तिनिरोधक आसता. चित्ताच्यो वृत्ती पांच तरांच्यो मानल्यात. तातुंतल्यो कांय त्रासीक जाल्यार कांय त्रासांविरयत आसात.

**२) कलान्त :** शैव सिध्दान्ताप्रमाण छत्तीस तत्त्वां वा कला आसात. कला होच विद्यातत्त्वाचो आदार आसा. तिच्या आदारान साधक अविद्येचें निराकरण करपाक समर्थ जाता. शिवज्ञानसिध्दी ह्या ग्रंथांत ह्या विशयाचें विवरण आसा.

**३) नादान्त :** नाद म्हळयार श्रूयमाण ध्वनी. ध्वनी जायत्या तरांचे आसतात. ह्या सगळयांक आदारभूत म्हळयार ॐकार ध्वनी. हाकाच पुर्विल्ल्या ऋषीमुनींनी नाद म्हळां. साधक समाधीमेरेन पावतकच ताका शिवाच्या नादात्म स्वरुपाचो अणभव मेळटा.

**४) बोधान्त :** बोध म्हळयार बुध्दी. बोधावरवीं शिवरुपाचो अंत जाणून घेवप म्हळयार शिवानुभूती प्राप्त करून घेवप.

**५) वेदान्त :** बोधावस्थेंत ज्योतिर्मय शिवाचें जावपी गिन्यान हे अवस्थेंत चड स्पश्ट जाता.

**६) सिध्दान्त :** ही निमाणी अवस्था. हे दशेंत साधकाच्या श्रमांचें फळ मेळून तो कृतार्थ जाता.

वडलूर गांवालागसरच्या मेलकुप्पमांत रामलिंगस्वामीन सत्यज्ञानसभेची स्थापणूक करून तेवरवीं तो आपल्या आध्यात्मिक सिध्दान्ताचो प्रचार करूंक लागलो. आपलीं पदां आनी स्तोत्रां हांचें अध्ययन आनी अध्यापन करपाखातीर समरसवेदपाठशाळा निर्माण केली. शिवगुणसंकीर्तनाखातीर एक भजनमठ तयार केलो. दीन आनी धर्मीक मनशांक जेवण मेळचें देखून सत्यधर्मशाळा उगडली. मेलकुप्पमाक ताणें उत्तरज्ञानचिदंबरम अशें नांव दिलें.

- कों. वि. सं. मं.

**रामलीला :** उत्तर प्रदेशांतलें एक धर्मीक लोकनाटय. आश्विन शुध्द प्रतिपदेक रामलीलेक सुरवात जावन दसऱ्या दिसा ती सोंपता. हातूंत प्रभू रामचंद्राच्या जिवितांतले कांय प्रसंग नाटयरुपान दाखयतात. तुलसीदासान हे रामलिलेची सुरवात केली, अशें विद्वानांचें मत आसा.

उत्तर प्रदेशांतल्या गांवगिऱ्या वाठारांत कांय लोक तुलसीरामायण वाचतात तांकां पाठक म्हण्टात, जाल्यार कांय लोक त्या श्लोकांचो अर्थ सांगतात तांकां धारक म्हण्टात. कांय गांवांत रामायणांतले हे प्रसंग रंगमाचयेर सादर करतात, जाल्यार कांय कडेन वेगवेगळया प्रसंगा प्रमाण जशी जशी फाटभूंय आसा आनी ती जंय जंय कडे आसा थंय थंय हे प्रसंग सादर करतात. देखीक - रामाच्या वनवासामेरेनचे प्रसंग देवळांत दाखयतात जाल्यार गंगा पार करपाचो प्रसंग गांवांतल्या पाण्टयार वा न्हंयेदेगेर दाखयतात.

तशेंच चित्रकुटाचेर येवप आनी तेफुडली रामलीला गांवाभायर आशिल्ल्या व्हड मैदानाचेर दाखयतात आनी भरत भेटीचो प्रसंग दाखोवपाखातीर परत गांवांत येतात.

हेच रंगमाचयेचो आनीक एक प्रकार म्हळ्यार एका व्हड मैदानाचेर एके वटेन अयोध्या आनी ताचे मुखावयले वटेन लंका अशें समजतात. मदीं एक व्हड रंगमाची घालून तिचे चारय वटेन प्रेक्षक बसतात. रंगमाचयेचे एकेवटेन पाठक आनी धारक बसतात. त्या त्या प्रसंगाप्रमाण राम अयोध्येंतल्यान आनी रावण लंकेंतल्यान रंगमाचयेर येता. मैदानाच्या एका भागांत वनवासाचें दृश्य दाखोवपाखातीर तणाच्यो खोंपी बांदतात. कांय गांवांत अशो रंगमाचयो कायमच्यो घालून दवरतात. माळवा आनी बुंदेलखंड हांचे शिमेर अशो उब्यो रंगमाचयो दिश्टी पडटात.

शारांनी एका व्हड मैदानाचेर रंगमाचयेचेर रामायणांतले कांय प्रसंग नाट्यरुपान दाखयतात. कांय भुरगीं राम, लक्ष्मण, सीता आनी वानरांचीं सोंगां घेतात. एक लांबरूंद मनीस फाटल्यान शेपडी लावन मारुती जाता. मैदानाच्या मदीं फोग (दारूकाम) भरिल्ली रावणाची एक व्हड प्रतिमा उबी करतात. कांय वेळां ताच्या म्हऱ्यांत मेघनाद आनी कुंभर्णाचीय प्रतिमा उबारतात. तांच्यो प्रतिमा ज्या जाग्यार आसात थंय लंका समजून, दसऱ्या दिसा रामाचें सवंग घेतिल्लो मनीस रथांत बसून येता आनी लंकेचेर चाल करता आनी त्या रावणाचे प्रतिमेर बाण सोडटा. ते बरोबर ती प्रतिमा पेट घेता आनी थोड्या वेळान ते प्रतिमेचो लासून गोबोर जाता. ते बरोबर वानराचें सवंग घेतिल्ले लोक उडयो मारून आनंद उक्तायतात. उपरांत राम, सितेक रथांत बसोवन परत हाडटा आनी खेळ सोंपता.

उत्तर प्रदेशांतल्या कांय शारांत व्हड प्रमाणांत रामलीला मनोवप जाता. थंय रामलीला आश्विन वद्य नमीक सुरू जावन फुडें सतरा दीस चलता. हांगाच्या लंका दहनाच्या कार्यक्रमाक आगळींच खाशेलपणां आसात. तेखातीर रावणाचो महाल साठ - सत्तर फूट उंचायेचो बांदतात. हनुमान दोरयेच्या आदारान त्या महालाचेर चडटा आनी त्या महालाक उजो लायता.

दिल्ली शारांतय रामलीला मोटे खोशयेन आनी व्हड प्रमाणांत मनोवप जाता. तेखातीर थंय एक रामलीला मैदान तयार केल्लें आसा. हांगाच्या ल्हान ल्हान वसतींनीं लेगीत हजारांनी रामलीलांचे कार्यक्रम जातात. बहादुरशहा जफरचे कारकिर्दींत महंत राघोदासान दिल्लींतले हे रामलीलेची सुरवात केली. इ.स. १९३८ त ह्या कार्यक्रमाखातीर एक समिती नेमपांत आयिल्ली आनी तेन्नाच्यान हे समितीवतीन हो उत्सव मनोवप जाता.

काशीच्या (वाराणसी) रामनगर गांवाच्या रामलीलेची खूब नामना आसा. सादारण सात - आठ मैलांच्या वाठारांत ही रामलीला सादर करतात. तेखातीर रामायणांतली अयोध्या, जनकपुरी, शरयु न्हंय, पंचवटी लंका आदी सुवाती आदींच बांदून दवरतात. हातूंत कथानक जशें जशें मुखार वता तशे तशे अभिनयाचे जागे बदलतात आनी प्रेक्षक एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार वतात. हे रामलीलेक चाळीस दीस लागतात. प्रेक्षकाचे फाटले वटेन ऊंच माचयेर कथाकार आनी वादकवृंद बसता. जेन्ना कथाकार व्हड आवाजांत तुलसीदासाच्या रामचरितमानसांतल्यो चौपायो गाता तेन्ना कलाकार रंगमाचयेर येवन उबे रावतात. ताचें गायन सोंपतकच कलाकार तातुंतलो आशय थळावे बोलयेन संवाद रुपांत उलयतात आनी तेप्रमाण अभिनय करतात. त्या त्या दृश्याप्रमाण रंगमाचीय बदलता आनी प्रेक्षकय तें नवें द्दश्य पळोवंक उठून दुसऱ्या जाग्यार वतात. लंकादहन पळोवंक तर हजारांनी प्रेक्षक जमिल्ले आसतात. शेंकड्यांनी कलाकार झगझगीत कपडे घालून चकचकीत मुकूट घालून तेचपरी मुखवटे घालून सुमार चाळीस दीस ही रामलीला मनयतात.

राजस्थानांत रामलीला दाखोवपी खास मंडळां आसतात. तीं वर्सभर अदींमदीं तांचे प्रयोग करतात. एका गांवांत पंदरा दीस ते एक म्हयनोमेरेन रामलीला चलता.

आग्रा शारांत आश्विन वद्य प्रतिपदेसावन रामलीलेक सुरवात जाता. हाचेभायर पंजाब, मध्य प्रदेश, गुजरात, बिहार, उडीसा, बंगाल, हिमाचल प्रदेश ह्या वाठारांतय दसऱ्याक रामलीला जाता.

गोंयांत रामलीलेक लागींचो असो रणमालें हो लोकनाट्य प्रकार सादर करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रामशास्त्री प्रभुणे :** (जल्मः १७२० सातारा; मरणः २५ ऑक्टोबर १७८९ पुणें).

पेशवाईच्या सोंपत्या काळांतलो नामनेचो न्यायाधीश. रामशास्त्री भुरगो आसतनाच बापूय विश्वनाथ आनी आवय पार्वतीबाय हांकां मरण आयलें. हाकालागून बापोलयान कांय तेंप ताचो सांबाळ केलो. व्हड जालो तरी हो कांयच जोडीना तें पळोवन बापोलयान ताका घराभायर काडलो. तेन्ना तो सातारचो सावकार अनगळ हाच्या घरा 'शागिर्द' म्हणून चाकरेक रावलो. उपरांत ताचोच आदार आनी उर्बेन काशीक वचून ताणें धर्मशास्त्र आदी विद्यांचो अभ्यास केलो आनी १७५१ त पेशव्यांच्या दरबारांत एक शास्त्री म्हणून तो पयलीं नोकरेक लागलो. पेशवे दरबारांतलो न्यायाधीश बाळकृष्णशास्त्री सोंपल्या उपरांत ताची न्यायाधीशाचे सुवातेर इ.स. १७५९ त नेमणूक जाली. माधवराव पेशवे (पयलो) दर एका म्हत्वाच्या प्रस्नांत, झुजासंग्राम, हारजैत, फायदोनुकसानी, खाजगी वा भौशिक खंयच्याय गजालीं बाबतींत रामशास्त्रीची बुद्द घेतालो.

पेशवे नारायणराव हाचे हत्येक (१७७३) ताचो बापोलयो रघुनाथराव होच जापसालदार आसा अशें गृहीत धरून तेखातीर

ताणें देहान्त प्रायश्चितच घेवंक जाय, अशें ताणें फर्मायलें आनी रोखडोच न्यायाधीशपदाचो राजीनामो दिवन तो वाईलागसारच्या पांडेवाडी वा मुगांव हांगा वचून रावलो. फुडाराक रघुनाथरावाआड एकठांय आयिल्ल्या बारभाई म्हणून वळखुपांत येवपी नाना फडणीस, सखाराम बापू आदी कारभाऱ्यांची रघुनाथरावा आडची येवजण यशस्वी जावन तो पदभ्रश्ट जाले उपरांत १७७७ त कारभाऱ्यांनी रामशास्त्र्याची पेशवे दरबारांत परत न्यायाधीशपदाचेर नियुक्ती केली.

शनिवारवाड्यांत रामशास्त्री न्यायनिवाडे आनी विद्वानांच्यो परिक्षा घेतालो. ताणें अग्नीहोत्र घेतिल्लें. कोणाचेय बाबतींत आनी खंयचेय परिस्थितींत निपक्षपातिपणान न्यायदान करपी म्हणून सगळेकडेन ताची नामना आशिल्ली. तशेंच ताचे कडक परिक्षा पद्दतीकलागून तो सगळयाक प्रसिद्द आसलो.

रामशास्त्रीचे खाजगी जीणेविशीं चडशी म्हायती आजूनमेरेन उजवाडाक येवंक ना. ताणें पयलें लग्न १७५८त केलें. हे बायलेसावन ताका एक भुरगो आसुंये अशें म्हण्टात. हे बायलेच्या मरणाउपरांत ताणें १७८८ त काशीबाय हे चलयेकडेन दुसरें लग्न केलें. तिचेपसून ताका एक चलो आनी एक चली जाली. पुण्यांत ताका मरण आयलें. ताच्या मरणा उपरांत ताचे फाटल्यान आशिल्ल्या ताच्या चल्याक म्हळयार गोपाळशास्त्रीक पयलीं पेशवेदरबारांतल्यान आनी उपरांत इंग्रज सरकाराकडल्यान तनखा मेळटालो.

रामशास्त्री स्पश्ट वक्तो आशिल्लो. धर्मीक वेव्हारांत काळमान आनी परिस्थीती वळखुपाचें ताचें मनोधैर्य, मराठी राज्याविशींची ताची अतूट निश्ठा आनी निवाडे करपाची कडक पद्दत हाका लागून महाराष्ट्राच्या इतिहासांत ताका एक खाशेली सुवात फाव जाल्या. ताचे वंशज पुणें जिल्ह्यांतल्या जेजुरी लागसारच्या राखी गांवांत रावतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रामसिता देवस्थान, दोंगरी - मंडूर :** तिसवाडी तालुक्यांतल्या दोंगरी मंडूर वाठारांत आशिल्लें नामनेचें देवस्थान. श्रीमंत सद्‌गुरू श्रीकृष्ण महाराज बांदेकार हाणें इ.स. १७९३ वर्सा आपल्या घरांतूच श्रीरामसीतेच्या पाशाणाचे मुर्तीची स्थापना केली. फुडें सांगे तालुक्यांतल्या मारुती देवान दृश्टांत दिल्ल्याप्रमाण १८०७ वर्सा ताची स्थापना हे रामसीतेच्या गर्भकुडी भायर करपांत आयली. पुर्तुगेज राजवटींत ज्या काळांत पुर्तुगेजांनी गोंयच्या हिंदुंचो धर्मीक छळ आनी देवळाची मोडतोड करपाक सुरवात केली. त्याच काळांत किरिस्तांव धर्माचें केंद्रस्थान आशिल्ल्या ओल्ड गोवा सावन फकत दोन किलोमीटर अंतराचेर आशिल्ल्या दोंगरेर रामसीतेचें देवस्थान स्थापन करप हो त्या काळाच्या संदर्भांतलो उल्लेखनीय असो उपक्रम आसलो.

- कों. वि. सं. मं.

**रामाणी, शंकर :** (जल्म : २६ जून १९२३, वेरें, बार्देस).

एक कवी. ताचें मुळावें शिकप मराठींतल्यान पणजे जालें. उपरांत ताणें पुर्तुगेज शिक्षण घेतलें. लिसेंवाचें शिकप पुराय करून इंग्लीश शिक्षण वास्कोचे सेंट जोसेफ संस्थेंत घेवन १९४५ वर्सा तो मॅट्रीक पास जालो.



तो मराठी कवितेवांगडा कोंकणीय कविता बरयता. गुढता हो ताचे कवितेचो स्थायीभाव जावन राविल्ल्यान ताणें कोंकणी आनी मराठी कवितेक एक खाशेल्या आशयघनाचो साज आनी आकृतीबंद दिला. मराठी तशेंच कोंकणी काव्याक ताणें वेंचीक अशें योगदान दिलां.

१९३७ वर्सा शाळेंत शिकतना 'पारवरा येशील कधी परतुनी' हें विडंबनात्मक कवितेन ताणें काव्याक सुरवात केली.

'प्रकाश' सातोळयांत ताची पयली प्रकाशीत कविता १९३९ वर्सा आयली. उपरांत नयन, झारापकार, किर्लोस्कर, स्वदेश, महाद्वार, दुधसागर ह्या मासिकांतल्यान ताणें कवितांचें लिखाण केलें. ताचो पयलो मराठी बालगीतांचो संग्रह 'सुर्यफूल' ह्या नांवान १९५० वर्सा उजवाडा आयलो. उपरांत 'कातरवेळ' (१९५९), 'आभाळ वाटा' (१९६७) आनी 'पालाण' (१९७९) अशे काव्यसंग्रह प्रकाशीत जाले.

जोगलांचें झाड, निळें निळें ब्रह्म आनी निरांजन हे ताचे तीन कोंकणी काव्यसंग्रह प्रकाशीत जाल्यात. तातुंतल्या निळें निळें ब्रह्म, ह्या काव्यसंग्रहाक १९९७ वर्साचो साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फाव जाला.

तेभायर ताच्या कवितासंग्रहाक गोवा कला अकादमीचो पुरस्कार फाव जाला.

गोंय सरकारच्या न्हंय येरादारी खात्यांत प्रशासन अधिकारी म्हणून निवृत्त जावन सद्याक ताचो बेळगांवांत राबितो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रामानंद :** उत्तर भारतांतल्या रामानंदी संप्रदायाचो प्रवर्तक आनी आदलो रामभक्त आचार्य. ताच्या जल्म मरणासंबंदींच्या तारखांविशीं मतभेद आसात. ताच्या चरित्रांतल्या कांय घडणुकांचो उल्लेख अगस्त्यसंहिता, भक्तमाल, प्रसंगपरिजात, भविष्यपुराण, वैश्वानरसंहिता, रसिकप्रकाश, वैष्णवधर्म, रत्नाकर ह्या ग्रंथांतल्यान ताची थोडीभोव म्हायती मेळटा. ताचो जल्म प्रयाग हांगाच्या एका कान्यकुब्ज ब्राह्मण घराण्यांत १३५६ वर्सा जालो, अशें अगस्त्यसंहितेच्या आदारान मानतात. रामानंदी संप्रदायाच्यो अयोध्या, मिथिला, चित्रकूटादी

मठांत हेच तिथीक ताची जयंती मनयतात. भुरगेपणांत ताच्या आवयबापायन अध्ययनाखातीर ताका काशीक धाडलो. थंयच ताचेर शांकर अद्वैत मताचो प्रभाव पडलो. ते उपरांत ताणें स्वामी राघबानंदाचें शिश्यत्व आपणायलें अध्ययनाउपरांत तीर्थयात्रां करून आयल्याउपरांत थंयच्या शिश्यांवांगडा जात्रा करताना रामानंदान खाणाजेवणाचे आनी स्पृश्यास्पृश्यतेचे नेम पाळूंक नासले, म्हण तांच्यावांगडा जेवपाक रामानंदाक न्हयकार मेळ्ळो. हाचो परिणाम म्हण गुरूचे आज्ञेवयल्यान ताणें आपलो नवो उदार दृश्टीकोन आसपी, आनी कर्मकांडाक चडशें म्हत्व न दिवपी रामावत आनी रामानंदी संप्रदाय घडयलो. काशींत पंचगंगा घाटाच्या वाठारांत एके घोलींत मठ स्थापून कबीरादी बारा शिश्यांक उपदेश केलो आनी काशीक वैशाख शुध्द तृतीया, संवत १४६७ (इ.स. १४१० वर्सा) ताणें संवसार सोडलो अशें अभ्यासक आनी परंपरा मानता. श्रीवैष्णवमतावजभास्कर आनी रामार्चनपध्दति हे दोन ग्रंथ रामानंदान रचल्यात.

उत्तर भारताचे संत परंपरेंत रामानंदाचें स्थान म्हत्वाचें आसा. तो स्वतंत्र प्रज्ञेचो संत आसलो. ताचो प्रभाव त्याकाळांत आनी उपरांतच्या उत्तर भारतांत आध्यात्मिक वातावरणाचेर पडून सगळ्याक व्हडलें परिवर्तन घडून आयलें. त्याकाळचो धर्मीक फुडारी, मार्गदर्शक, जातिवर्णभेदाचीं बंधनां शिथिल करपी सुदारक, धर्मप्रचाराखातीर संस्कृताबदला हिंदीचो पुरस्कार करपी भाषाभिमानी, भक्तिमार्गान असामान्य संघटक आनी प्रचारक म्हण रामानंदाचें स्थान भारतीय परंपरेंत वैशिश्ट्यपूर्ण मानलां. तीर्थयात्रेंत भारताचें अवलोकन करून ताणें आपल्या विचारांक युगधर्मानुरूप उदार वळण दिवन, नव्या संप्रदायाचेवतीन ताणें त्या विचारांचो प्रचार केलो. ताचें उपास्य दैवत राम आसून ताचो मार्ग भक्तिमार्ग आसलो. वैष्णव आनी नाथ संप्रदायाचो ताचेर प्रभाव आसलो.रामभक्तीक रूप दिवपी रामानंद हो आद्य आचार्य. ताचे प्रेरणेन मध्ययुगांत आनी उपरांतच्या काळांत रामभक्तिचेर हिंदी साहित्य निर्माण जालें. भक्ती मार्गाचें दार सगळ्या जातींच्या लोकांक उक्तें करून दिलें. ताणें आपले उदार भावनेन हिंदू आनी मुसलमानांक लागीं हाडपाची फाटभूंय तयार केली. हिंदींतले कितलेशेच कवी रामानंदाक आपलें प्रेरणास्थान मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रामानुजन, श्रीनिवास अय्यंगार :** (जल्मः २२ डिसेंबर १८८७ एरोड - चेन्नई; मरणः २६ एप्रिल १९२० चेन्नई).



भारतीय गणितज्ञ. संख्यासिध्दांत ह्या विशयांतल्या कार्याखातीर प्रसिद्द. ताचो जल्म चेन्नई इलाख्यांतल्या तंजावर जिल्ह्यांत एरोडा हांगा गरीब ब्राह्मण घराण्यांत जालो. ताचें मुळावें शिकप कुंभकोणम् गांवांत जालें. सुरवातीक ताणें स्वताच त्रिकोणमितीचो अभ्यास केलो आनी पिरायेच्या १४ व्या वर्सा ताणें लेनर्ड ऑयलर (१७०७ - ८३) हाणें पूर्वसूचित केल्ली ज्या आनी कोज्या ह्या संबंदींचीं प्रमेयां मांडलीं. १९०३ त ताका जी. एस्. कार हाच्या 'सिनॉप्सिस ऑफ एलिमेंटरी रिझल्ट्स इन प्युअर अँड ॲप्लाइड मॅथेमॅटिक्स' हो ग्रंथ अभ्यासपाची संद मेळ्ळी. ह्या ग्रंथांत सु. ६,००० प्रमेयां आसलीं आनी तीं सगळीं १८६० वर्सापयलींचीं आसलीं. ह्या ग्रंथाखातीर रामानुजन हाचे शिटूक बुध्दीक गती मेळ्ळी. पूण ताच्या पयलीं गणितांतल्या बऱ्या प्रमाणभूत ग्रंथांकडे संपर्क येवंक नाशिल्ल्यान ताका दर खेपे स्वता मुळावें संशोधन करचें पडलें. ह्या कार्यांत ताणें कितलींशींच नवीं बैजिक श्रेढी सोदून काडल्यात. १९०४ त कुंभकोणम्च्या सरकारी महाविद्यालयांत ताका प्रवेश मेळ्ळो आनी शिश्यवृत्तीय मेळ्ळी. ताचो प्राध्यापक पी.व्ही. शेषू अय्यर हाका रामानुजनाच्या गणितांतलें असामान्य प्रभुत्व जाणवलें आनी ताच्या मार्गदर्शनाखाल रामानुजनाचें वाचन आनी संशोधन चालू जालें. पूण गणिताचो सेगीत अभ्यास करपाच्या नादांत ताणें इंग्लीश भास आनी बाकीच्या विशयांकडे दुर्लक्ष केल्ल्यान तो परिक्षेंत नापास जालो. हाकालागून ताची शिश्यवृत्तीय बंद पडली. ते उपरांत तो पयलीं विशाखापटनमाक आनी उपरांत चेन्नईक गेलो. १९०६ त तो परत परिक्षेक बसलो आनी परत नापास जालो. हाकालागून ताणें परत परिक्षेंत बसपाचो विचार सोडून दिलो. पूण गणितांतलें आपलें स्वतंत्र कार्य फुडें चालू दवरलें. १९०९ त नोकरी सोदता आसतना नेल्लोरचो जिल्हाधिकारी रामचंद्रराव हाचेकडेन ताचो संपर्क आयलो. रामानुजनाक गणितांत आवड आसा, तें पळोवन ताणें रामानुजनाक परत चेन्नईक धाडलो. पूण हांगाय ताचो यत्न निश्फळ थरलो. १९१२ त ताका मद्रास बंदर विश्वस्त मंडळाच्या (पोर्ट ट्रस्टच्या) कार्यालयांत नोकरी मेळोवपांत यश आयलें. ह्या वेळार ताणें जर्नल ऑफ द इंडियन मॅथेमॅटिकल सोसायटी ह्या नेमाळ्यांत आपलें लिखाण उजवाडावंक सुरवात केली. ताचो पयलो निबंद बेर्नुली संख्यासंबंदीं आसलो. ते उपरांत श्रेढी, अनंत गुणाकार आनी ळचें मुल्य काडपाखातीर भूमितीय रचना हें संबंदीं ताणें बरयलें. उपरांत ताणें केंब्रिज हांगाचो गणिताचो प्राध्यापक सर गॉडफ्री हॅरल्ड हार्डी हाचेकडेन पत्रवेव्हार सुरू केलो. पयल्या पत्रांत ताणें अविभाज्य संख्येच्या वितरणा संबंदींच्या आपल्या संशोधनाविशीं तशेंच गणिताच्या वेगवेगळ्या फांट्यांत स्वता सोदून काडिल्ल्या शंबरांपरस चड प्रमेयांसंबंदीं बरयलें. ह्या पत्रवेव्हारान हार्डी प्रभावित जालो. १९१४ त ताका रामानुजनाक केंब्रिज हांगाच्या ट्रिनिटी कॉलेजांत प्रवेश मेळ्ळो. हार्डी आनी जे. ई. लिट्लवुड हांच्या मार्गदर्शनाखाल रामानुजनाची उदरगत जाली. तांच्या आदारान रामानुजनाचे निबंद इंग्लीश आनी बाकीच्या युरोपीय नेमाळ्यांतल्यान उजवाडा आयले. १९१८ वर्सा रॉयल सोसायटीचो वांगडी आनी

ट्रिनिटी कॉलेजाचो अधिछात्र म्हण ताची निवड जाली. इंग्लंडांतल्या पांच वर्सांच्या राबित्यांत ताणें सुमार २१ निबंद उजवाडायले. ह्याशिवाय इंडियन मॅथेमॅटिकल सोसायटीच्या जर्नलांतल्यान ताणें सुमार १२ निबंद उजवाडायले. केंब्रिज विद्यापिठांतल्या अणभवाक लागून रामानुजनाचें कार्य विकसीत जालें. ताच्या गणितांतलें ज्ञान उपाट आसलें, तरी तातुंतले चडशें ज्ञान ताणें स्वताच मेळयलें. परंपरित अपूर्णांकासंबंदीं आदीं कार्य विकसित जाल्लें, हे संबंदीं ताका कांयच खबर नासली तरीय ह्या विशयांतली ताची हुशारी त्या काळच्या गणिततज्ञांचे तुळेन अनन्यसादारण आसा. विवृत्तीय समाकल (अवकलन आनी समाकलन), अतिगुणोत्तरीय श्रेढी (श्रेढी), रीमान श्रेढी, झीटा फलनाचीं समीकरणां आनी ताचो स्वताचो अपसारी श्रेढीसंबंदींचो सिध्दांत हें ताणें स्वता संशोधन करून सोदून काडलां. हाच्या उरफाटें गणितांतल्यान पद्दतशीर प्रशिक्षण न मेळिल्ल्यान, अविभाज्य संख्यांविशींचीं ताचीं प्रमेयां बुध्दीची तांक दाखोवपी आसलीं तरी तीं फुडें चुकिचीं थरलीं.

इंग्लंडांतल्या राबित्यांत पयल्या निबंदांत ताणें ळ चें आसन्न मुल्य काडपाच्यो वेगवेगळयो पद्दती दिल्यो. ते उपरांत संख्या विभाजन फलनाच्या गुणधर्मांविशीं काम केलां तें मोलाचें मानतात. १९१९ वर्सा मद्रास विद्यापिठान दर वर्सा २५० पौंडांची शिश्यवृत्ती ताका पांच वर्सांखातीर जाहीर केली.

ताणें संख्या सिध्दांतांत केल्लें कार्य भौतिक आनी संगणक विज्ञानांतल्यो कांय समस्या सोडोवपाखातीर भोव गरजेचें आसा.

ताचें सगळें संशोधनकार्य जी.एच्.हार्डी, पी.व्ही.शेषू अय्यर आनी बी.एम्.विल्सन हांणी संपादीत करून 'कलेक्टेड पेपर्स ऑफ श्रीनिवास रामानुजन १९२७' ह्या माथाळयाखाला उजवाडा आयलें. ताणें केल्लीं वेगवेगळीं टिपणां 'नोटबुक्स ऑफ श्रीनिवास रामानुजन' (दोन खंड, १९५७) ह्या ग्रंथांत प्रसिद्द जाल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**रामानुजाचार्य :** (जल्म : इ.स. १०१७, पेरुंबुदुर, तमिळनाडू; मरण : ११३७, श्रीरंगम).

एक वैष्णव आचार्य आनी विशिश्टाद्वैताचो पुरस्कर्तो. ताच्या बापायचें नांव केशव सोमयाजी आनी आवयचें नांव कांतिमती. कांतिमतीचो भाव जेन्ना आपले भयणीक चलो जाला म्हण मेळपाक आयलो तेन्ना ताका त्या भुरग्याचे तकलेभोंवतणी एक तेजोवलय दिसलें. तशेंच ताच्या आंगाचेर प्रभू रामचंद्राचो धाकटो भाव लक्ष्मण हाचींय लक्षणां दिसलीं म्हणून ताणें त्या भुरग्याचें नांव रामानुज दवरलें.

रामानुजाचें मुळावें शिक्षण बापायकडेनच जालें. ताचे उपरांत तो कांचीक यादवप्रकाश ह्या व्हड अद्वैती आचार्याकडेन वेदान्ताचें अध्ययन करपाखातीर गेलो. थोडयाच तेंपान ताणें वेदान्त तत्त्वज्ञान आत्मसात केलें. पूण मुखार उपनिषदांतल्या कांय वाक्यांचो अर्थ लावपांत ताचो गुरूकडेन मतभेद जावपाक लागलो. यादवप्रकाशाक तें मानवलें ना. ताकालागून रामानुजाविशीं ताका जें आपलेपण दिसतालें तें ना जालें. तो ताचो मत्सर करपाक लागलो. रामानुज अद्वैतवादाचो कट्टर विरोधक जावन आपलो नवो पंथ स्थापतलो अशी जेन्ना ताची खात्री जाली, तेन्ना आपल्या परंपरागत अद्वैत सिध्दान्ताची राखण करपाखातीर ताणें रामानुजाक ह्या संवसारांतल्यान ना करपाचें थारायलें. आपल्या ह्या कटांत ताणें आपल्या शिश्यांकय सामील करून घेतले. सगळयांनी मेळून काशीयात्रेक वचचें आनी वाटेर रामानुजाक मारचो अशें तांणी थारायलें. रामानुजाचो मावसभाव गोविंदय यादवप्रकाशाचो शिश्य आशिल्लो. तोय रामानुजावांगडा वचपाक भायर सरलो. गोविंदान रामानुजाक गुरूच्या कपटकारस्थानाची गजाल सांगली. तें आयकून रामानुजान परत घरा वचपाचो निश्चेव केलो आनी एके काळखे राती कोणाक कळनासतना तो गटांतल्यान भायर सरलो. पूण भोंवतणच्या रानांतल्यान वाट कशी सोदून काडची हें ताका कळ्ळेंना. तेन्ना ताणें वरदराजाचें स्मरण केलें. तेन्ना वरदराजा आनी लक्ष्मी भिल्ल - भिल्लिणीचें रूप घेवन थंय प्रगटलीं. तांणी रामानुजाक कांचीमेरेन पावयलो. रामानुजान घरा वचून घडिल्ली सगळी गजाल आपले आवयक सांगली. ताचे उपरांत कांय दीस ताणें घराच अध्ययन करपाचें थारायलें. ह्याच वेळार आवयचे आज्ञेन रामानुज लग्नय जालो.

रामानुजाची नामना श्रीरंगमाक आशिल्ल्या यामुनाचार्याच्या कानार गेल्ली. आपल्याफाटल्यान ताकाच श्रीरंगमच्या देवळाचो उत्तराधिकारी करचो अशें ताणें थारायलें. आपल्या शिश्याक ताणें रामानुजाक श्रीरंगमाक आपोवन हाडपाक धाडलो. पूण रामानुज थंय पावचेपयलींच यामुनाचार्य सोंपलो. रामानुजान जेन्ना ताचें निमणें दर्शन घेतलें तेन्ना ताचीं हाताचीं तीन बोटां दोडिल्लीं आशिल्लीं. तेविशीं ताणें लागींच्या लोकांक विचारलें. आपल्यो अदर्यो उरिल्ल्यो इत्सा मेजता आसतनाच ताका मरण आयलें म्हणपाचें लोकांनी ताका सांगलें. त्यो तीन इत्सा अशो – १) ब्रह्मसूत्रांचेर भाश्य बरोवप २) त्या वेळावयल्या दिल्लीच्या बादशहाकडेन आशिल्ले मूर्तीचो ताबो घेवप आनी ३) दिग्विजय करून विशिष्टाद्वैत मताचो प्रचार करप.

कांय जाणांच्या मताप्रमाण ह्यो तीन इत्सा वेगळयो आशिल्ल्यो. त्यो अशो - १) ब्रह्मसूत्रांचेर भाश्य करप. २) द्राविड वेदाचो प्रचार करप आनी ३) दोन पुरूशांक, पराशर आनी शठकोप ह्यो उपाधी दिवप.

रामानुजान ह्यो तीनय इत्सा पुराय करपाची प्रतिज्ञा केली. तेन्नाच यामुनाचार्याचीं दोडिल्लीं बोटां सरळ जालीं. ताचेर निमणें संस्कार करून तो कांचीक परतलो.

कांचीक परत आयल्या उपरांत रामानुज वरदराजाची उपासना करपाक लागलो. तेचवांगडा ताचें शिकपय चालूच आशिल्लें. फुडें ताणें स म्हयने पेरियनंबी हाचेकडच्यान वेदान्त सुत्रां आनी तीन हजार गाथा शिकून घेतल्यो.

रामानुजाच्या लग्ना उपरांतचें जिवीत व्हडलेंशें सुरवी नाशिल्लें. देखून ताणें आपले बायलेक कुळारा धाडली आनी संन्यास घेतलो. मागीर वरदराजाच्या देवळालागीं ताणें एक मठ उबारलो आनी तो थंय रावपाक लागलो. ताका जायते शिश्य आनी शिश्याय मेळ्ळयो. ताचो पयलो गुरू यादव प्रकाशानय उपरांत ताचें शिश्यत्व आपणायलें.

ताचे उपरांत यामुनाचार्याचो पूत वरदरंग रामानुजाकडेन आयलो आनी ताका श्रीरंगमाक घेवन गेलो. थंय गेल्या उपरांत श्रीरंगनाथाच्या देवळाचीं आनी थंयच्या मठाचीं सगळीं सुत्रां ताणें आपल्या हातांत घेतलीं. मागीर ताणें गोष्ठीपुर्णाकडच्यान परत दीक्षा घेतली. गोष्ठीपुर्णान ताका 'ॐ नमो नारायणाय' हो मंत्र दिलो आनी ताचें गुपीत समजावन सांगलें. हो मंत्र कोणाक दिवं नाका अशीय ताणें आज्ञा दिली. पूण हो मंत्र आयकल्यार मुक्ती मेळटा म्हणपाचें जेन्ना ताका कळ्ळें तेन्ना तो एका देवळाच्या माथ्यार चडलो आनी व्हडा व्हडान तो मंत्र उच्चारपाक लागलो. जायत्या बायलां - दादल्यांनी तो मंत्र आयकलो. ही गजाल कळटकच गोष्ठीपुर्णाक खूब तिडक आयली. ताणें रामानुजाक आपयलो आनी सांगलें - 'तुवें गुरूची आज्ञा मोडली, आतां तुका जायतो काळ नरकांतच रावचें पडटलें !' हाचेर रामानुजान म्हटलें — 'जर तुमचे कृपेन हे सगळे बायल - दादले मुक्त जातले आनी हांव नरकांत वतलों जाल्यार म्हाका खोसच जातली'. रामानुजाचें हें उलोवणें आयकून गुरू प्रसन्न जालो आनी म्हणपाक लागलो - 'आयजपसून विशिष्टाद्वैतवाद तुज्याच नांवान रामानुजदर्शन म्हणून नामनेक पावतलो'.

एक फावट यज्ञमूर्ती नांवाचो एक अद्वैतवादी संन्यासी आनी रामानुजाचो अठरा दीस शास्त्रार्थ जालो. तातूंत यज्ञमूर्तीचो पराभव जालो. यज्ञमूर्तीन मागीर वैष्णव मत आपणायलें आनी रामानुजाचें शिश्यत्व पत्करलें.

मागीर रामानुजान यामुनाचार्याच्या मड्यालागीं केल्ल्यो प्रतिज्ञा पुराय करपाचें थारायलें. ब्रह्मसूत्रांचेर विशिष्टाद्वैती भाश्य बरोवप ही पयली प्रतिज्ञा आशिल्ली. भाश्य बरोवपाच्या पयलीं शंकराचार्यान आपल्या भाश्यांत तुस्त केल्लो बोधायनवृत्ती नांवाचो ग्रंथ काश्मीरांत वचून मेळयलो. ताचे उपरांत श्रीरंगमाक परत येवन रामानुजान ब्रह्मसूत्रांचेर श्रीभाश्य नांवाचें भाश्य बरयलें. मागीर तो परत काश्मीराक गेलो. थंय सरस्वतीपिठान ताच्या भाश्याची तुस्त केली. थंयच्या पंडितांनी ताका हयग्रीवाची मूर्त भेट दिली. आयजय म्हैसूरच्या परकालमठांत ती मूर्त आसा आनी तिची नेमान पुजा जाता. ताचे उपरांत दिल्लीक वचून ताणें त्या काळावयल्या बादशहाकडच्यान विष्णुची मूर्त मेळयली अशें सांगतात. फुडें ताणें आपल्या मताचो देशभर प्रचार केलो. अशेतरेन ताणें यामुनाचार्याच्यो तीनय इत्सा पुराय केल्यो.

रामानुजाचो शिश्य कुरेशाक खूब वर्सांनी दोन पूत जाले. रामानुजाचे आज्ञेप्रमाण तातुंतल्या एकाक पराशर नांव दवरलें. कांय लोकांच्या मतान यामुनाचार्याची ही एक अपुरी इत्सा आशिल्ली तीय हे गजालीन पुराय जाली.

त्या काळांतलो चोळ देशाचो राजा कुलोत्तुंग वा दुसरो राजेंद्र चोळ शैव आशिल्लो. रामानुज वैष्णव धर्माचो प्रचार करता हें ताका सहन जालेंना. शिवापरस खंयचेंच दैवत व्हड न्हय अशी मान्यता रामानुजाकडच्यान घेवंची असो सल्लो राजाच्या सल्लागारांनी राजाक दिलो. तेन्ना राजान रामानुजाक हाडपाक सेवकांक धाडले. सेवक मठांत पावले तेन्ना रामानुज न्हावपाक म्हण न्हंयेचेर गेल्लो. कुरेशान गुरूचेर आयिल्लें संकट वळखलें आनी संन्याशाचो भेस आंगार चडोवन पेरियनंबी वा महापूर्ण हाच्यावांगडा तो राजदरबारांत गेलो. शिव हो एकच व्हड देव हें ताणेंय मान्य करूंक ना. देखून राजान त्या दोगांचेय दोळे काडपाक लायले. ते त्रास सोंसना जावन पेरियनंबी मेलो.

ताचे उपरांत शिश्यांचो सल्लो मानून रामानुज श्रीरंगमच्यान होयसळ राज्यांतल्या तोंडण्णूर ह्या गांवांत गेलो आनी जायतीं वर्सां थंय रावलो. थंयचो राजा बिहिदेव जैन आशिल्लो. रामानुजाचें व्हडपण मानून उपरांत ताणें वैष्णव पंथ आपणायलो. रामानुजान ताका विष्णुवर्धन अशें नांव दिलें. रामानुजान मागीर राजाच्या पालवान मेलकोटे वा तिरूनारायणपुरमाक नारायणाचें एक देवूळ बांदलें. आनीकय पांच जाग्यांनी तांणी विष्णुचीं देवळां बांदलीं.

रामानुज मेलकोटाक बारा वर्सां रावलो. इतल्यांत चोळ राजा मेलो म्हणपाची खबर कळ्ळी आनी तो श्रीरंगमाक आयलो. थंय ताणें चडशा सगळ्या आळवारांच्या मुर्तींची स्थापना केली. मागीर तो तिरूपतीक गेलो. तिरूपतीची मूर्त दर्यांत उडयल्ली ती ताणें वयर काडली आनी परत तिची स्थापना केली. ताचे उपरांत रामानुज श्रीरंगम सोडून खंयच गेलो ना. कुरेशाचो पूत पराशर भट्टर हाका ताणें आपलो उत्तराधिकारी नेमलो आनी आपल्या वैष्णवमताच्या प्रचाराखातीर चौदयात्तर शिश्यांची तजवीज केली. अशेतरेन आपलें सगळें जिवीत अध्ययन आनी धर्मप्रचार हातूंत घालोवन रामानुज १२० वर्सां जगलो आनी शेवटाक विष्णु रुपांत विलीन जालो.

आपल्या मताच्या प्रचाराखातीर रामानुजान श्रीभाष्याव्यतिरिक्त वेदान्तसंग्रह, वेदान्तदीप, वेदान्ततत्त्वसार, गीताभाष्य, अष्टादशरहस्य, कूटसन्दोह, गुणरत्नकोष, न्यायरत्नमाला, नारायणमन्त्रार्थ, नित्याराधनविधी, पञ्चरात्ररक्षा, मुण्डकोपनिषद्व्याख्या, विष्णुविग्रहशंसनस्तोत्र सारकिल्ल्या जायत्या ग्रंथांची रचणूक केली.

- कों. वि. सं. मं.

**रामायण :** नामनेचें आदिकाव्य वा छंदोबध्द इतिहास. वाल्मीकी मुनी हो ह्या महाकाव्याचो निर्मातो. प्रस्तुत ग्रंथाचीं सात कांडां आसून, सर्गसंख्या ६४५ आसा. ह्या आदिइक्ष्वाकु वंशांतलो पुरुषोत्तम श्रीराम हाचें चरित्र वर्णिलां. हातुंतली कथा थोडेभितर अशी आसा -

रामायणकथा - एकदां वाल्मीकीन नारदाक, प्रस्न केलो, हे धर्तरेचेर गुणवान, पराक्रमी, धर्मज्ञ, सत्यवचनी आनी राग आयिल्लो आसतना देवांकूय भंय घालपी असो गुणसंपन्न पुरूश कोण आसा? तेन्ना नारदान ताका, इक्ष्वाकू वंशांत जल्मल्ल्या रामाचें नांव सांगलें. तेन्ना वाल्मीकीन रामाचें पुराय चरित्र आयकुपाची इत्सा नारदाकडे उक्तायली. नारदान वाल्मीकीक पुराय रामकथा सांगली. ती आयकून वाल्मीकीक खूब खोस भोगली. ताणें नारदाची पुजा करून ताचो निरोप घेतलो. उपरांत भरद्वाज नांवाच्या शिश्यासयत तमसा न्हंयेचेर न्हावपाक गेलो. वाटेंत एका झाडाचेर ताका क्रौंच पक्ष्याचें जोडपें बशिल्लें दिसलें. इतल्यान एका निषादान बाण मारून तातुंतल्या नरपक्ष्याक मारून उडयलो. तें पळोवन ताची जोडीदार व्हडाव्हडान आक्रोश करूंक लागली. त्या दृश्यान वाल्मीकीक वायट दिसलें आनी त्या निषादाचो रागूय आयलो. तेन्नाच ताच्या तोंडांतल्यान शापवाणी भायर आयली -

मा निषाद ! प्रतिष्ठां त्वमगमः शाश्वतीः समाः ।
यत्कौञ्चमिथुनादेकमवधीः काममोहितम् ।।

**अर्थ** - हे निषादा, तू ह्या भूतलाचेर चड वर्सां जगचोना कारण तू काममोहित अशा क्रौंचयुग्मांतल्या एकाचो वध केला.

ही शापवाणी पद्य आशिल्ली. तो एक सहजस्फूर्त असो अनुष्टुप् छंद आशिल्लो. वाल्मीकीक ते घडणुकेचें अजाप दिसलें आनी त्या श्लोकाचो विचार करीत तो आश्रमांत आयलो. फाटोफाट पितामह ब्रह्मदेव थंय आयलो. वाल्मीकीन ताका तो श्लोक म्हणून दाखयतकच, ब्रह्मदेवान ताका सांगलें, तुज्यांत सरस्वती आविर्भूत जाल्या, ह्या अनुष्टुप छंदांत समग्र रामचरित्राचें वर्णन कर.

उपरांत वाल्मीकी रामचरित्र बरोवंक बसलो. चोवीस हजार श्लोक, पांचशे सर्ग, स कांडां आनी सातवें उत्तरकांड जातूंत आसा, अशें तें महाकाव्य निर्माण जालें. वाल्मीकीन ताका पौलस्त्यवध अशें नांव दिलें आनी हें काव्य ताणें लव - कुशाक शिकयलें.

वाल्मीकीरामायणाचें बालकांड, अयोध्याकांड, अरण्यकांड, किष्किंधाकांड, सुंदरकांड, युध्दकांड आनी उत्तरकांड अशे सात भाग आसात.

**बालकांड :** ७७ सर्ग. अयोध्या नगरींत दशरथ राजा राज्य करतालो. कौसल्या, सुमित्रा आनी कैकेयी अशो ताच्यो तीन राणयो, पूण वंश चलोवपाक ताका पुत्रसंतत नाशिल्ली. ती जावची म्हणून ताणें ऋष्यशृंग ऋषींच्या मुखेल पुरयतपणाखाल अश्वमेध यज्ञ केलो आनी उपरांत पुत्रकामेष्टि नांवाचो याग केलो.

मनशाबगर हेर खंयच्याच प्राण्याकडल्यान तुका भंय ना असो ब्रह्मदेवाकडल्यान रावणाक वर मेळिल्लो. तेखातीर दशरथागेर जल्म घेवन रावणाचें पारिपत्य करचें, अशी देवांनी भगवान विष्णुक विनवणी केल्ली. दशरथ राजाचो पुत्रकामेष्टि याग चालू आसतना अग्नींतल्यान एक म्हापुरूस आयलो आनी ताणें संतान दिवपी, देवनिर्मीत पायस दशरथाक दिलो. दशरथान हो पायस, कौसल्या, सुमित्रा आनी कैकेयीक वांटून दितकच दशरथाक राम, लक्ष्मण, भरत आनी शत्रुघ्न अशे चार पूत जाले. राम कौसल्येचो, लक्ष्मण - शत्रुघ्न सुमित्रेचे आनी भरत हो कैकेयीचो. हे भुरगे व्हड जाता आसतना, एक दीस विश्वामित्र मुनी दशरथाकडे आयलो. मारीच आनी सुबाहू हे दोन पराक्रमी राक्षस यज्ञांत विघ्नां हाडटाले. तांकां मारपाखातीर मुनीक रामाची गरज आशिल्ली. तेखातीर राम आनी लक्ष्मण विश्वामित्रावांगडा गेले. रामान त्या राक्षसांक मारले, ताटकेचोय वध केलो. उपरांत विश्वामित्रान तांकां विदेहराज जनकाकडे व्हेले. जनकाकडे शंकराचें श्रेश्ठ धोणू आशिल्लें. तें धोणू जनकान राम - लक्ष्मणाक दाखोवचें अशी इत्सा उक्तायतकच जनकान तांकां त्या धोणुची कथा सांगली. जमीन नांगरतना त्या नांगराक लागून एक कन्या वयर आयली. शेत नांगरतना मेळ्ळी म्हणून ते चलयेचें नांव सीता दवरलें. हें धोणू ज्या कोणाक पेलतलें ताचेकडे सीतेचें स्वयंवर जातलें अशेंय जनकान तांकां सांगलें. उपरांत स्वयंवरांत खूब राजांनी तें उखलपाचो यत्न केलो पूण तो निश्फळ थारलो. निमाणें रामान तें सहजतायेन उबारून, ताका प्रत्यंचा चडोवन कानामेरेन ओडलें आनी मोडून उडयलें. उपरांत रामाचें लग्न सीतेकडे आनी लक्ष्मणाचें लग्न जनकाचीच दुसरी धूवव. उर्मिला हिचेकडे जालें. विश्वामित्राचे सांगणेन जनकराजाचो धाकटो भाव कुशध्वज हाच्यो दोन धुवो मांडवी आनी श्रुतकीर्ती ह्यो अनुक्रमान भरत आनी शत्रुघ्न हांकां दिल्यो.

ह्या बालकांडांत मदीं मदीं हेर कथा आयल्यात. क्षत्रिय विश्वामित्र आनी ब्राह्मण ऋषी वसिष्ठ हांच्यांतल्या संघर्शाची कथा, विश्वामित्राक दीर्घ तपश्चर्येन ब्राह्मण्य प्राप्त जाल्ल्याची कथा, वामनावताराची कथा, शिवपूत कार्तिकेय वा कुमार हाच्या जल्माची कथा आसा.

**अयोध्याकांड :** १७७ सर्ग. दशरथ राजा रामाचो युवराज्याभिशेक करपाचो थारायता. पूण राणी कैकेयीक ह्या अभिशेकाचे खबरेची तिडक मारता. ती दशरथान पयलीं दिवन दवरील्ल्या दोन वरांची मागणी करता. दशरथाक खूब वायट दिसता. भरताक राज्याभिशेक आनी रामाक चवदा वर्सां वनवास अशे दोन वर ती मागता. अभिशेक जावपाच्या दिसा कैकेयी रामाक ह्या दोन वरांची म्हायती दिता. राम, सीता आनी लक्ष्मणासयत वनवासाक वता. तेन्ना भरत आपल्या आजोळा आसता. ताका जेन्ना खरी वस्तुस्थिती समजता तेन्ना तो आपलो राज्याभिशेक करून घेवपाचो न्हयकारता.

रामाक परतून हाडपारवातीर तो दंडकारण्यांत वता. पूण राम अयोध्येक परतून येना. शेवटाक तो रामाच्यो पादुका राज्यतंत्राचेर दवरून रामाचे वतीन राज्य करता.

**अरण्यकांड :** ७५ सर्ग. दंडकारण्यांत ऋषिमुनींक सतत राक्षसांचो त्रास जायत आसता. तेरवातीर ऋषिमुनी रामाकडे संरक्षणाची मागणी करतात आनी राम तशें तांकां आश्वासन दिता. रावणाची भयण शूर्पणखा रामाक मेळून ताचेकडे लग्न जावपाची इत्सा परगटायता. रामान न्हयकारतकच ती लक्ष्मणाक विचारता. लक्ष्मणा कडल्यान न्हयकार मेळटकच ती सीतेक जिवी मारपाचो यत्न करता, तेन्ना लक्ष्मण रामाचे आज्ञेन तिचें नाक आनी कान कापून उडयता. तेन्ना ती आपलो भाव खर हाका ताच्या चवदा हजार राक्षस सैनिकांसयत रामाचेर हल्लो करपाक धाडून सूड घेवपाचो यत्न करता. पूण राम तांकां सगळयांक वाटेक लायता. ही खबर अकंपन नांवाच्या राक्षसा कडल्यान रावणाक कळटा. तेन्ना रामाक दुरूख दिवपापासत सीतेक उबारून हाडपाचें थारायता. मारीच हो खूब रुपां धारण करपांत कुशळ आशिल्ल्यान तो कांचनमृगाचें रूप घेता. सीता कांचनमृगाक पळोवन भुलता आनी आपल्याक तो जाय म्हणून हट्ट धरता. राम ताका धरपाक रानांत वता. फाटोफाट लक्ष्मणाकूय वचचें पडटा. उपरांत रावण साधूचो भेस करून सीतेकडे येता आनी तिका उबारून लंकेंत व्हरता. रामाचो इश्ट गृध्रराज जटायू रावणाचेर वाटेंत हल्लो करता, पूण रावण ताका मारता. लंकेंत रावण, सीतेक आपल्यावांगडा लग्न जावपाक याचना करता. पूण सीता ताका बदना. राम आनी लक्ष्मण कांचनमृगाची शिकार करून आश्रमांत परततात. सीता आश्रमांत ना ती पळोवन राम भियेता आनी दोगूय जाण तिका सोदपाक भायर सरतात. आसन्नमरण जटायूकडल्यान तांकां रावणान सीतेक व्हेल्ल्याचें समजता. फुडें तांकां मानेपसून वयर तकली नाशिल्लो, फकत धड आनी तोंड पोटांत आशिल्लो असो, कबंध राक्षसाकडे गांठ पडटा. तो राम - लक्ष्मणाक खावपाक पळयता तेन्ना राम - लक्ष्मण ताचे हात तोडून ताका मारून उडयतात. ताचें दहन करतकच, ते चितेंतल्यान कबंध तेजीश्ट रुपांत प्रकट जावन, रामाक सुग्रीव ह्या वानरराजाकडे इश्टागत केल्यार सीता मेळटली अशें सांगता. कबंधाचे सुचोवणे वयल्यान राम मतंगवनांत वता. थंय ताका शबरी मेळटा.

**किष्किंधाकांड :** ६७ सर्ग. पंपा सरोवराम्हऱ्यांत रामाची सुग्रीवाकडे भेट जाता. वाली हो सुग्रीवाचो व्हडलो भाव. ताणें सुग्रीवाचे बायलेचो अपहार करून ताका वनवास आपणावपाक लयिल्लो आसता. म्हणूत वालीचें पारिपत्य करून आपूण तुका तारतलो अशें राम सुग्रीवाक उतर दिता. सुग्रीवूय रामाक सीतेचो सोद करपाचें अभिवचन दिता. उपरांत सुग्रीव रामावांगडा किष्किंधेक वता आनी वालीक युध्दाचें आव्हान दिता. वाली आनी सुग्रीव हांचें युध्द चालू आसतना, थारायल्ल्याप्रमाण रामान वालीचेर बाण सोडून ताका मारपाचो आसता. पूण दोगूय जाण एक सारके दिशिल्ल्यान राम गोंदळटा आनी सुग्रीव वाली कडल्यान मार खावन पळून वता. पूण वळखवीखातीर गजपुष्पी वाल सुग्रीवाच्या गळयांत घालून परतून युध्द जाता आनी राम ताका मारता. किष्किंधा नगराच्या शिंवासनाचेर सुग्रीवाचो राज्याभिशेक जाता. उपरांत सुग्रीवूय सीतेचो सोद घेवंक लागता. तेरवातीर वानरांचीं पथकां सगळया दिकांनी धाडटात. दक्षिणेवटेन गेल्ल्या वानरांभितर हनुमंत आनी वालीचो पूत अंगद आसता. एका पर्वताच्या पठाराचेर तांकां जटायुचो व्हडलो भाव संपाती मेळटा आनी ताचेकडल्यान तांकां कळटा की रावण, लंका नांवाच्या रमणीय द्वीपाचेर रावता. पूण सागर पार करूत लंकेंत वचपाचो प्रस्न येतकच हनुमान ती जबाबदारी आपणाचेर घेता आनी महेंद्र पर्वताच्या शिखराचेर उबो रावता.

**सुंदरकांड :** ६८ सर्ग. हातूंत चडशो चमत्कारीक कथा आसात. महेंद्र पर्वतावयल्यान हनुमान त्रिकूटाचल पर्वताचेर वशिल्ले लंकेचें दर्शन घेता आनी राती वेळार लंकेंत भितर सरता. सोद घेतना अशोकवनांत ताका सीता दिसता. रावण थंय येवन तिका वश करपाचो यत्न करता आनी सीता ताका झिडकारता. सीतेचें हें दुरूख पळोवन हनुमानाक वायट दिसता. उपरांत सीतेक मेळून वळखवी खातीर तिका राममुद्रिका दाखयता आनी तिका व्हरपाखातीर राम व्हड सैन्य घेवन येतलो अशें आश्वासन दिता. सीतेन दिल्लो चूडामणी म्हळयार विणयेंत घालपाचें रत्न घेवन तो रामाकडे वता. पूण वता आसतना रावणाक आपल्या शौर्याची जाणविकाय करून दिवपाखातीर तशेंच ताचीय शक्त पळोवपाखातीर रावणाचें उपवन उध्वस्त करता. उपरांत लंकेचेंय दहन करून रामाकडे वता.

**युध्दकांड :** १२८ सर्ग. हातूंत राम आनी रावण हांच्या झुजाचो वृत्तांत आसा. राम - लक्ष्मण वानरसेनेसयत दर्यादिगेर येतात. पूण येदो व्हड दर्या कसो हुंपप असो तांकां प्रस्न पडटा. तेन्नाच विभिषण, सीतेक लागून रावणाकडे वाद जाल्ल्यान रामाक येवन मेळटा. विभिषणाचे सांगणेन, राम दर्याची उपासना करतकच दर्या, रामाक, विश्वकर्म्याचो पूत नल हाचेवरवीं सेतू बांदून लंकेकडे वचपाक सुचयता. वानरांच्या आदारान नल सागराचेर सेतू बांदता. झूज सुरू जावचेपयलीं वालीचो पूत अंगद रावणाकडे शिश्टाई करून वता पूण तातूंत ताका यश मेळना. झूज सुरू जाता. इंद्रजित राम - लक्ष्मणाक नागपाशांनी बांदता, पूण थंय गरूड येता आनी नाग पळून वतात. राम रावणाचो रथ मोडून, रावणाक बेशुध्द करता पूण जिवो मारना. उपरांत कुंभकर्णाक मारता. इंद्रजित स्वता अदृश्य जावन वानरसेनेचेर हल्लो करता, ब्रह्मास्त्राच्या आदारान राम - लक्ष्मणाक निश्चेश्ट करता. तेन्ना हनुमान तांकां महोषधींचो वास दिवन जागे करता. फुडें इंद्रजित मायावी सीता निर्माण करता आनी वानरांच्या सामकार तिका जिवी मारता. तें पळोवन राम परतून घुंवळ येवन पडटा. विभिषण रामाक ती मायावी सीता म्हणून सांगतकच राम - रावणाचें झूज सुरू जाता

आनी रावण मरता. राम, विभिषणाक रावणाचें राज्य दिता. सीतेक रामा म्हऱ्यांत हाडटात तेन्ना राम सीतेच्या चारित्र्याविशीं दुबाव घेता, सीता अग्निदिव्य करता. सीता पवित्र आशिल्ल्याचें अग्नीदेवता सांगतकच राम तिका आपणायता आनी अयोध्येक येता. रामाचो राज्याभिशेक जाता.

**उत्तरकांड :** १११ सर्ग. संशोधकांच्या मतान हें कांड म्हळयार मूळच्या काव्यांत पडिल्ली भर. राम अयोध्येक येतकच सगळे ऋषिमुनी आनी प्रजा ताचें स्वागत करता. उपरांत सीतेक दीस वतात. पूण सीतेचे शुध्दीविशीं लोकोपवाद पातळटा. रामाक मात तिचेविशीं इल्लोय दुबाव नासता. पूण लोकांक देख घालून दिवपाखातीर दुख्खी मनान तो सीतेचो त्याग करता. लक्ष्मणूय दुखेस्त मनान तिका गंगेचे पलतडीं, तमसा न्हंयेदेगेर वाल्मीकी मुनीच्या आश्रमा लागसार सोडून येता. उपरांत वाल्मीकी मुनी तिका आलाशिरो दिता. थंयच तिका उपरांत कुश आनी लव अशे दोन जुंवळे पूत जातात. राम अश्वमेध यज्ञ करता, तेन्ना वाल्मिकी आपल्या शिश्यांक घेवन थंय येता. लव कुशाक तो रामायण गावपाक लायता. तेन्ना रामाक ते आपले पूत म्हणपाचें समजता. उपरांत सीतेची इत्सा आसल्यार तिणें आपले शुध्दतेचो निर्वाळो दिवचो असो राम, वाल्मीकीकडे सीतेक रकाद धाडटा. सीता आपली शुध्दता सिध्द करपाक येता पूण धरतीमातेक उल्लेखून म्हण्टा की आपूण शुध्द आसल्यार तूं आपल्याक पोटांत घे. तशेंच घडटा. लोकांक अजाप जाता. राम खूब दुख्खी जाता. उपरांत लव कुश रामाचें भविश्यचरित्र सांगपी उत्तरकाव्य गायतात.

उत्तरकांडाचे निमाणें प्रत्यक्ष काळ येवन रामाक मेळटा आनी रामाक अट घालता आपूण तुजेकडेन उलयतना कोणूच तुका मेळूंक येवंक फावना. तशें जाल्यार तुवें ताका मारचो पडटलो. तेखातीर काळ आनी राम उलयता आसतना, लक्ष्मण दाराचेर रक्षक म्हणून रावता. त्याच वेळार दुर्वासमुनी रामाक मेळपाक येता. रामाक मेळूंक दिलो ना जाल्यार रामाक, नगराक आनी देशाक आपूण शाप दितलो म्हणपाची धमकावणी दिता. तेखातीर उपाय नाशिल्ल्यान लक्ष्मण भितर वचून दुर्वास आयिल्ल्याचें रामाक सांगता. नियमभंग केल्ल्यान लक्ष्मणाक शासन करचेंच पडटा. सज्जनांचो त्याग करप आनी वध करप ह्यो दोनूय गजाली सारक्योच आशिल्ल्यान राम लक्ष्मणाक मारीनासतना ख्यास्त म्हूण ताचो त्याग करता. लक्ष्मण शरयू देगेर वता थंय ताचें निर्वाण जाता. उपरांत लव कुशाक राज्याभिशेक करून राम महाप्रस्थानाक वता. सगळे भाव, लोक, वानर, राक्षस हांचेसयत राम शरयू न्हंयेंत वता. सगळे प्राणत्याग करतात. रामावांगडा आयिल्ल्या सगळयांक बरी गती मेळटा. उत्तरकांडांत ययाती देवयानी कथा, इंद्रान केल्ल्या वृत्रवधाची कथा, मित्र आनी वरूण हांची आनी पुरूची कथा, ब्राह्मणांचें माहात्म्य वाडोवपी मजकूर आसा.

वाल्मीकीमुनीन मूळ 'रामायण' रचलां आसलें तरी ताचे उपरांत कितलींशींच रामायणां बरोवप जालीं. तातुंतल्यान रामाच्या आनी सीतेच्या व्यक्तिरेखांक आपल्या विशिश्ट तत्त्वीक धर्मीक विचारांक सुसंगत अशें रूप दिवपाचे यत्न जाल्यात आनी अशा यत्नांतल्यांनूय कांय रामायणां तयार जाल्यांत. संस्कृतांतल्या रामायणांत भुशुंडी रामायण, अद्‌भूत रामायण, अध्यात्म रामायण आनी आनंद रामायण हीं चड उल्लेख करपासारकीं आसात. भुशुंडी रामायणांत मधुरा भक्तीचो पुरस्कार केला. अद्‌भुत रामायणांत सीतेचे व्यक्तिरेखेक दुर्गेचें रूप दिवन शतमुखी रावणाचो वध सीतेन केल्ल्याचें दाखयलां. सीता ही रावणाची धूव कशी जाली हाचोय वृत्तांत ह्या रामायणांत आसा. आनंद रामायणांत चडशो रामाच्या राज्यकारभाराच्यो कथा आसात.

महाराष्ट्री प्राकृतांतलें विमलसूरीचे पउमचरिय आनी महाकवी स्वयंभू हाचें अपभ्रंश भाशेंतलें पउमचरिउ हीं जैन महाकाव्यां रामकथेचेर आदारिल्लीं आसात. विंगड विंगड भारतीय भाशांनी जीं रामायणां जाल्यांत, तातूंत तुलसीदासाचें रामचरितमानस हें खूब लोकप्रिय आसा. शिखांचो धावो गुरू गोविंदसिंग हाणें 'रामावतार' ह्या नांवान एक रामायण बरयलें. दक्षिणेंत कंबनाचें तमिळ भाशेंतलें 'कंब रामायण' प्रसिद्द आसा. कन्नड भाशेंत 'कौशिक रामायण' आसा. तेलगूंत 'रंगनाथ रामायणम्', 'भास्कर रामायणम्' अशीं रामायणां आसात. मराठींत, संत एकनाथान 'भावार्थ रामायण' रचलें. समर्थ रामदासान रामायणाचीं सुंदर आनी युध्द हीं दोन कांडां रचलीं आनीं रामायणाचें सार सांगलें. लागीं लागीं सगळयाच भारतीय भाशांनी रामायणाच्यो आवृत्ती प्रसिद्द जाल्यात.

आशियाई चड करून आग्नेय आशियांतल्या लोकांचेर रामायणाचो खूब व्हड प्रभाव दिसून येता. प्राचीन जावानीज भाशेंत एक रामायण रचिल्लें आसा. नेपाळ आनी श्रीलंकेंत रामायण आसाच पूण जपान, मलेशिया, फिलिपीन्स, थायलंड, लाओस, ब्रह्मदेश ह्या देशांनीय रामायण पावलां. रामकथेचेर आदारीत काव्य - नाटकां अशें खूब साहित्य विंगड विंगड भासांनी आसा. तशेंच शिल्पाकृती आनी रुपण कलांतल्यानूय रामायणाचो आविश्कार दिसून येता.

- कों. वि. सं. मं.

## रामॉन इ काहाल, सांत्यागो :

(जल्म : १ मे १८५२, पेतिल्ला दे ॲरॅगॉन; मरण : १७ ऑक्टोबर १९३४, माद्रिद).

स्पॅनिश ऊतकवैज्ञानिक. तंत्रिका एकक वा तंत्रिका कोशिका (मज्जापेशी) ही तंत्रिका तंत्राचें मूलभूत एकक आशिल्ल्याचें प्रस्थापित केल्लेखातीर ताका कामील्लो गॉल्जी हाचे वांगडा १९०६ वर्साचें वैजकी वा शरीरक्रियाविज्ञानाचें नोबॅल पारितोशिक वांटून मेळळें. तांच्या ह्या

सोदाक लागून तंत्रिका एककाचें मुळावें कार्य वळखुपाक आनी तंत्रिका आवेगाची प्रक्रिया आर्विल्ले नदरेंतल्यान कळपाक मदत जाली.

ताणें सारगॅसो विद्यापिठांत वैजकी शिक्षण घेवन पदवी मेळयली आनी सैन्यांत भरती जालो. फुडल्या वर्सा तो क्यूबाक गेलो. पूण ताका मलेरियाची लागण जाल्ल्यान ताका स्पेनाक परतून धाडलो. तेउपरांत ताणें सारगॅसो विद्यापिठांत शरीराचें म्हळयार शरीररचनाशास्त्राचें अध्ययन करून डॉक्टरेट पदवी मेळयली. १८८३ वर्सा व्हॅलेन्शिया हांगा ताची वर्णनात्मक शरीर ह्या विशयाचो प्राध्यापक म्हणून नेमणूक जाली. मजगतच्या काळांत तो एक बरो सूक्ष्मदर्शकविज्ञ आनी ऊतकवैज्ञानिक जालो. त्याच वेळार क्षयांतल्यान बरो जातना तो एक बरो छायाचित्रकारूय जालो. १८८७ वर्सा बार्सेलोना विद्यापिठांत ताची ऊतकविज्ञानाचो प्राध्यापक म्हणून नेमणूक जाली. उपरांत १८९२ वर्सा माद्रिद विद्यापिठांत तो ऊतकविज्ञान आनी विकृतिविज्ञानीय शरीर ह्या विशयांचो प्राध्यापक जालो आनी १९२२ वर्सा निवृत्त जालो.

रामॉन हाणें तंत्रिका कोशिका अभिरंजित करपाखातीर म्हळयार सूक्ष्मदर्शकाच्या आदारान अभ्यास करपाखातीर कृत्रिम रितीन रंगोवपाखातीर वापरपाक येवपी गॉल्जी हाच्या सिल्व्हर नायट्रेट रंजकाभितर १९०३ वर्सा सुदारणा केली. भ्रूणांच्या आनी ल्हान पिरायेच्या प्राण्यांच्या मेंदूंतली तंत्रिका ऊतक, संवेदी केंद्रां आनी मेरूरज्जू हांच्या सूक्ष्म संरचनांच्या सर्वसादारण अध्ययनाखातीर उपयुक्त असो रंजक १९१३ वर्सा विकसित केलो. ह्या तंत्रिकाविशिश्ट रंजकाकलागून रामॉनाक दोळयांतल्या जालपटलाची सूक्ष्मसंरचना आनी मेंदूतल्या कड्ड्या द्रव्यांतली आनी मेरूरज्जूंतली तंत्रिका कोशिकांची संरचना आनी अनुबंधना हांचो सोद निश्चित करप शक्य जालें; तशेंच मेंदूतल्या अर्बुदांच्या निदानांत ताचो खूब आदार जालो. १९०२ वर्सा स्पेनाचो राजा तेरावो आल्फॉन्सो हाणें रामॉन इ काहाल हाच्या नांवान माद्रिदांत 'इन्स्टिटयूट काहाल' ही संस्था स्थापन केली. थंय रामॉनान निमाणेमेरेन संचालक म्हणून काम केलें.

नोबॅल इनामाभायर ताका बरीचशीं स्पॅनिश आनी परदेशांतल्यो मानादीक पदव्यो मेळळ्यात. १८९४ वर्सा रॉयल सोसायटीन क्रूनियन व्याख्यानां दिवपाखातीर रामॉनाक आपोवणें दिल्लें. १८९९ वर्सा अमेरिकेंतल्या बुस्टर (मॅसॅचूसेट्स) हांगाच्या क्लार्क विद्यापिठांत तो खाशेलो व्याख्यातो आशिल्लो. १९०९ वर्सा रॉयल सोसायटीन ताची परदेशी सदस्य म्हणून निवड केली.

रामॉनान तंत्रिका संरचनांचेर खूब ग्रंथ निर्मिती केली. तातुंतलो Estudios Sobre la de generacion y regeneracion del sistema nervioso (खंड २, १९१३ - १४) हो म्हत्वाचो ग्रंथ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रामेश्वर :** एक पवित्र थळ. हें बारा ज्योतिर्लिंगांतलें एक आसून, चार धामांतलें दक्षिण धाम आसा. भारताचे दक्षिणेक तमिळनाडू राज्यांत रामनाड जिल्ह्यांतल्या रामेश्वर जुंव्याचेर हें थळ आसा. तीर्थयात्रेचे नदरेन ह्या थळाक आगळेंच म्हत्व आसा. ह्या थळाविशीं जी म्हायती मेळटा ती अशी -

रामान लंकेचेर घुरी घालून रावणाक जिवो मारलो. उपरांत गंधमादन पर्वताचेर येवन ताणें विसव घेतलो. थंय अगस्त्य आदी ऋषींनी ताका येवकार दिलो. तेन्ना रामाच्या मुखामळार ताका निर्शेवणी दिसली. रामाक, लंकेचेर जैत मेळयलें हे खोशये परस रावणासारक्या एका ब्राह्मणाक मारलो आनी ब्रह्महत्येसारक्या पातकाचो धनी जालो तें दूख्ख ताका चड सतायतालें. ऋषींनी ताका जेन्ना ताच्या दुख्खाचें कारण विचारलें तेन्ना ताणें आपली मनोव्यथा ताचेकडेन उक्तायली. तेन्ना अगस्त्यान ताका ब्रह्महत्येचें पातक धुवन उडोवपाखातीर दर्यादिगेर लिंग स्थापन करपाचो आदेश दिलो. तशेंच जेश्ठ शुध्द दसमीचो म्हूर्तय काडून दिलो. तेन्ना रामान दिव्य लिंग हाडपाखातीर मारुतीक कैलास पर्वताचेर धाडलो. मारुती कैलासाचेर गेलो तेन्ना ताका शंकराचें दर्शन जालें ना. देखून ताणें थंयच तप सुरू केलें. कांय काळा उपरांत शंकर प्रकट जालो आनी ताणें आपलें दिव्य लिंग ताका दिलें. पूण वेळ जाल्ल्यान मारुती म्हुर्ताविळार थंय पावलो ना. तेन्ना सीतेन रेंवेचें लिंग तयार करून दिलें. ऋषीच्या आदेशाप्रमाण रामान ह्याच लिंगाची स्थापना केली. तेंच हें रामेश्वर लिंग. थळावे लोक ताका रामनाथलिंग अशें म्हण्टात. मारुती जेन्ना परत आयलो आनी ताणें रामान लिंग स्थापन केलें पळयलें तेन्ना ताका खूब वायट दिसलें. तेन्ना रामान ताका स्थापन केल्ल्या लिंगा लागसारच ताणें हाडिल्ल्या लिंगाची स्थापना करूंक सांगलें. तेचपरी ताणें स्थापन केल्ल्या लिंगाचें दर्शन केलेबगर यात्रेकऱ्याक रामेश्वर दर्शनाचें फळ मेळचेंना अशेंय वचन दिलें. उपरांत हनुमानान कैलासावयल्यान हाडिल्ल्या लिंगाची स्थापना केली. ह्या लिंगाक काशीविश्वनाथ वा हनुमदीश्वर अशेंय नांव आसा.

रामेश्वराचें देवूळ जुंव्याचे उदेंत देगेर आसा. हें देवूळ खूब व्हड आसून तें द्रविड शिल्पपद्दतीन बादिल्लें आसा. देवळाच्या चारय वटेन चार गोपुरां आसात. चारय गोपुरांचेर तरेकतरेच्यो जायत्यो मूर्ती कोरातिल्ल्यो आसात. उदेंत दारावयल्या गोपुराक धा माळयो आसून अस्तंत दारावयल्या गोपुराक सात माळयो आसात. भितरल्या देवळांत तीन व्हड दालनां आसून तीं व्हड खांब्याच्या रांकांनी विभागिल्लीं आसतात. ह्या दालनांची उंचाय खूब व्हड आसा आनी तांचेपोंदसून देवाचे उत्सवमूर्तीचे मिरवणुकींतलो हत्ती अंबारेसयत वचूंक शकता. रामेश्वर देवळांत वट्ट २२ तीर्थां आसून तातुंतलीं ६ तीर्थां सगळयांत भायल्या तिसऱ्या दालनांत आसात.

देवळाच्या तिसऱ्या दालनांत रामेश्वरलिंग आसा. ताच्या मुखारच मृण्मय आनी श्वेतवर्ण असो व्हड नंदी आसा. ह्या नंदीची उंचाय १३ फूट, लांबाय ८ फूट आनी रुंदाय ९ फूट आसा. नंदी लागसारच भांगराच्या पत्र्याचे गरुडस्थंभ आसात. पार्वतीचें देवूळ स्वतंत्र आसा. शिव आनी पार्वती हांच्यो उत्सवमूर्ती भांगराच्यो आसात आनी उत्सवावेळार तांकां फाटीर मिरोवपी नंदीय भांगराचोच आसा.

रामेश्वराभायर हांगा पार्वती, षडानन, गणपती आनी काशीविश्वेश्वर अशीं स्वतंत्र देवळां आसात. हांगा उपदैवतांय खूब आसून तातूंत नंदिकेश्वर, रामपंचायतन नवगृद विशालाक्षी, अन्नपुर्णा आनी सप्त मातृका हांचीं स्वतंत्र देवळां आसात.

रामेश्वराच्या देवळांत फांतोडेर साडेचार - पांचच्या सुमाराक पयलीं पुजेचो आरंभ जाता. उपरांत दुसरी पुजा सातांच्या सुमाराक सुरू जाता. ही पुजा भाविकांक पळोवंक मेळटा, ते उपरांत तिसरी पुजा सकाळीं णवांक सुरू जाता. तशेंच दनपारची, सांजेची आनी रातची अशी पुजा करतात.

हें देवूळ रामनाडच्या सेतुपती राजघराण्यान बांदिल्लें. सादयाचें देवूळ हें इ.स. १४१४ त उदयन सेतुपती हाणें लंकेचो परराजशेखर हाच्या आदारान बांदलें. फुडें साडेतिनशें वर्सां सेतुपती घरण्यांतल्या राजपुरुशांनीच ताचो विस्तार केलो. देवस्थानाचे पुजेखातीर तांकां ७२ गांव ह्याच घराण्यान दिल्ले आसात. तेचपरी देवाची पयली पुजा ह्याच घराण्याची आसता.

हांगाच्या देवळांत, सातोळे, म्हयनाळे आनी वर्सुकी अशे जायते उत्सव जातात. दर शुक्राराक पार्वतीची पालखी आसता. महाशिवरात्रेचो हांगा मोटो उत्सव जाता आनी तो धा दीस चलता. धाय दीस वेगवेगळया वाहनांतल्यान उत्सवमूर्तीची मिरवणूक काडटात. जेष्ठ म्हयन्यांत हांगा रामलिंगप्रतिश्ठा जाता. आषाढांत भरणी नक्षत्राचेर रामेश्वराचो धा दीस उत्सव जाता. श्रावणशुध्द प्रतीपदेसावन पंचमीमेरेन हांगा पार्वतीच्या लग्नाचो सुवाळो जाता. हाचेभायर वैशाखांत वसंतोत्सव आनी आश्विनांत नवरात्रीचो उत्सव हांगा मनयतात. तेचपरी कार्तिक शुध्द षष्ठीक हांगा कार्तिकस्वामीचो वाडदीस मनयतात. दुसऱ्या दिसा ताचो ब्रह्मदेवाच्या वळ्ळी आनी देवसेना ह्या धुवांकडेन लग्नाचो सुवाळो आसता.

हांगा बाराय म्हयने यात्रिकांची गर्दी आसता. भावीक लोक हांगाच्या चोवीस पवित्र तीर्थांत क्रमान न्हाण घेतात आनी रामेश्वराक काशीच्यान हाडिल्ल्या गंगाजलान अभिशेक करतात. तेचपरी रामेश्वरापसून १२ मैल पयस आशिल्ल्या सेतूबंधावयली सेतू (रेंव) हाडून तो सेतू रामेश्वर देवळांतल्या सेतूमाधवाकडेन दवरून ताची पुजा करतात. हो सेतू प्रयाग हांगाच्या त्रिवेणी संगमांत विधीपुर्वक विसर्जीत करतकच ही यात्रा सोंपता असो भावार्थ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रामोशी :** एक जात. ह्या लोकांची वसणूक चडकरून महाराष्ट्रांत आसा. कानडी बेरडांची ही एक शाखा आसा अशें म्हण्टात. हे लोक स्वताक रामवंशी म्हण्टात, ताचेवयल्यान तांचें रामोशी हें जातिनाम जालें आसुंये. तांकां रामोशी हें नांव कित्याक मेळ्ळें, तेविशीं एक दंतकथा आसा ती अशी - राम वनवासांत आसतना भरत ताचे भेटेक गेलो. रामाची आनी ताची भेट जातकच भरतान थंयच्या वनवासी लोकांक आपले बरोबर अयोध्येंत व्हेले. राम परत येतकच ताणें तांची आनी रामाची भेट घडयली. रामान तांकां गांवचे राखणदार नेमले आनी रामवंशी म्हणून घेवपाची परवानगी दिली.

ते स्वताक क्षत्रिय समजतात. हांच्यांत पुरंदर रामोशी आनी होळगा रामोशी अशे दोन पोटभेद आसात. ह्या दोनय गटांत रोटी - बेटी वेव्हार जायनात. तशेंच एकाच आडनांवाच्या कुळांत आनी एक कुलदैवत आशिल्ल्या कुळांत लग्नां जायनात.

रामोशी हे ऊंच, घटमूट आनी राकट आसून रंगान काळे आसतात. तांच्या गळयांत कंठी आनी सुलेमानी गंडो आसता. ताका लागून भूतपिशाचां पसून आपली राखण जाता अशें ते समजतात. गायेचें मांस सोडून हेर सगळे तरेचें मांस ते खातात.

सुरवेच्या काळांत हे लोक तेलुगू भास उलयताले. सदया ते मराठी भास उलयतात. तांची एक सांकेतीक भास आसा. आदीं चोरी करता आसतना वा गुपीत वेव्हार करता आसतना ते ही भास उलयताले.

राम, खंडोबा महादेव, कृष्ण आदी देवांक हे लोक भजतात. संत आनी पीर हांकांय ते मानतात. खंडोबाचो सोपूत घेतना हातांत भंडारो घेतात आनी तो सोपूत निमाणे मेरेन पाळटात. नंदी, माकड, गाय हांचीय ते पुजा करतात. नागपंचमीक नाग आनी दसऱ्याक घोडो पुजतात.

शिगम्याची परब ते मोटे उमेदीन मनयतात आनी रातभर अश्लील पदां म्हण्टात.

ह्या लोकांत चलो जल्माक येतकच थाळी वाजोवन आनंद उक्तायतात. चली जाल्यार तांकां दूख जाता. ज्या घरांत चलो जल्माक येता त्या घरामुखार कुणबी, धनगर, गवळी, कोळी, म्हार, मांग हे लोक शिताडो घालतात. पांचव्या दिसा पांचवीची पुजा करतात आनी घरांतलीं मनशां रातभर जागरण करतात. बाराव्या दिसा रस्त्याचे कडेक पांच सात फातर मांडून तांची पुजा करतात. तांच्यांत सुयेर पाळनात. भुरग्याचें नांव ब्राह्मण वा जंगम दवरता. भुरगें दोन तीन म्हयन्यांचें जातकच ताका सटवाई, एकाई वा हेर खंयच्याय देवाच्या दर्शनाक व्हरतात. भुरग्याचें जावळ काडटात. जावळाचे केंस कट्टेंत घालून देवामुखार दवरतात आनी बोकडाचो बळी दितात.

तांच्यांत आते, मामे भयणीकडे लग्नसंबंद जाता. चल्याचो बापूय चलयेगेर मागणी घालूंक वता. देवक बसोवचे आदीं ते लग्नाच्या

माटवांत बोकडे कापतात. लग्नाक वता आसतना न्हवरो हातांत खंजीर घेवन घोड्याचेर बसून वता. थंय व्हंकलेच्या गांवांत म्हार ताका ओंवाळटा. उपरांत वर पक्षाचे लोक देवळाकडे वतात. व्हंकलेकडलो लोक न्हवऱ्याचे तकलेर पापड मोडटात. उपरांत न्हवरो माटवांत येता. लग्नावेळार माटवांत तांदळांच्यो दोन राशी घालतात. एके राशीर अस्तंतेकडेन तोंड करून न्हवरो एका हातांत खंजीर आनी दुसऱ्या हातांत नाल्ल घेवन उबो रावता. ताच्या मुखार दुसरे राशीर व्हंकल उबी रावता. हाकाच कन्यादानविधी म्हण्टात. हो विधी म्हत्वाचो आसता. उपरांत न्हवरो व्हंकलेक घेवन दुसऱ्या दिसा आपल्या घरा वता. थंय न्हवरेकारांनी चावडेर गांवजेवण दिवपाचें आसता. ताचें पुरोयतपण देशस्थ ब्राह्मण वा जंगम करतात. तांच्यांत विधवेचें लग्न गोरज म्हुर्तार जंगम पुरोयत लायता. ह्या लग्नाक फकत दादलेच उपस्थित रावतात.

रामोशी लोकांत मड्याक पुरतात. मनीस मरतलो अशें दिसल्यार ताचो वारस ताची तकली आपले मांडयेर घेवन कांय दानधर्म करता. पितृपक्षांत ते श्राध्द वाडटात.

दरोडे घालप, चोरयो करप असले वेवसाय ते आदीं करताले. तेरवातीर ते आर्मां, गोफणी, कुराडी, बडयो हांचो वापर करताले. मराठेशाहींत तांचेकडेन पाळेगारीचें काम आसतालें. इंग्लिशांच्या काळांत तांकां कामावयल्यान उणे करून तांचीं इनामांय जप्त करपांत आयलीं. ताकालागून हे लोक दरोडे घालूंक लागले. पूण जाच्या घरचें हे मीठ खाताले थंय खाल्ल्या मीठाक जागताले आनी तांगेर चोरी करि नासले. बारा बलुत्यांत रामोशांचो आस्पाव जाता. सद्याच्या काळांत हे लोक शेती, नोकरी आदी वेवसाय करतात.

- कों. वि. सं. मं.

## रायकार, गजानन गोपीनाथ : (जल्मः २७ मे १९३५, कवळें, फोंडें).

सुटकेझुजारी. ताणें एम्.ए. मेरेन तेचपरी हिंदी साहित्य रत्न मेरेन शिक्षण घेतलें. वेवसायान तो शिक्षक आशिल्लो. तिसवाडी आनी फोंडा तालुक्यांत 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचे फांटे सुरू करपांत ताचो मोलादीक वांटो आसा. १९५४ वर्सा पुलिसांनी ताका अटक केली आनी आल्तिनोवयले बंदखणींत दवरलो. १९५५ त तो बंदखणींतल्यान पळून गेलो. ताचे गैरहाजेरेंत प्रदेशीक लश्करी न्यायालयान ताका १० वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच ताका धरून दितल्याक धा हजारांचें इनाम जाहीर केल्लें. उपरांतच्या काळांत तो शिक्षणाचो प्रसार करपाखातीर वावुरलो. हाचेभायर ताणें जमीन कसपी आनी तरणाटे हांचे चळवळींतूय सक्रीय वांटो घेतिल्लो. गोंय सुटके उपरांत पयले विधानसभा वेंचणुकेंत फोंडें मतदारसंघांतल्यान गोंयचे विधानसभेचो वांगडी म्हूण वेंचून आयलो. हाचेभायर एक कवी म्हणूनय ताची आगळीच नामना आसा. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## रायकर, गुरूदास उपेंद्र पै : (जल्मः २७ जानेवारी १९२८, पणजी).

सुटकेझुजारी. ताणें पुर्तुगेज आनी इंग्लिशींतल्यान मॅट्रिक मेरेन तशेंच हिंदी कोविदचें शिक्षण घेतलें. 'गोवा विडी कामगार संघटना' स्थापन करपांत ताचो हातभार आशिल्लो. १९४५ त तो 'गोवा विद्यार्थी संघाचो' वांगडी आशिल्लो. १९४६ वर्सा सावन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचो वांगडी जालो. पणजे आशिल्लें घरय ताणें हे संघटनेच्या कार्यालयाक दिल्लें. हे संघटनेच्या पणजेच्या वावुरप्यांक जेवण, रावपाची वेवस्था तशेंच हेर मदत दिवपाची जबाबदारी ताचेर आशिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

## रायकार, व्यंकटेश अनंत पै : (जल्मः १ मार्च १९१२ सावयवेरें, फोंडें गोंय).

नामनेचो साहित्यीक ताचें ६ वी मेरेनचें मुळावें शिकप खाजगी शिक्षकाकडल्यान घरच्या घरा जालें. उपरांत पुर्तुगेज शिक्षण कुमारजुंव्यां मामागेर आनी उपरांत लिसेंवाचें तीन वर्सांचें शिकप पणजे जालें.

व्यंकटेश रायकाराची १९३२ वर्सा 'लोकमित्र' ह्या खानापुरच्या म्हयनाळ्यांत पयली कथा उजवाडा आयली आनी मागीर 'यशवंत', 'परिजात', 'ध्रुव', 'चित्रमयजगत', 'कला' ह्या नेमाळ्यांतल्यान ताच्यो कथा उजवाडा आयल्यो. १९३९ वर्सा ताचो 'कारंजाचे तुषार' हो पयलो कथासंग्रह उजवाडा आयलो. पुर्तुगेज कादंबरीचो 'तीन तरुणी' ह्या नांवान मराठी अणकार १९४२ वर्सा उजवाडा आयलो. हे कादंबरी सारकीच 'प्रेमवेडी' नांवाची शृंगारप्रधान कादंबरी १९५० वर्सा उजवाडा आयली. १९४० ते १९६५ ह्या पंचवीस वर्सांच्या काळांत सात कथांचो एक संग्रह 'सप्तस्वर' ह्या नांवान उजवाडायलो. जितीं जिवीं व्यक्तिमत्वां, सादी भास, तृतीय पुरुशी निवेदन, कथाविशयाची निवड, कथाविशयाची समरसता हे गूण ताच्या पयल्या संग्रहांत प्रकर्शान जाणवतात.

श्रृंगार हो ताच्या भोवतेक कथांचो स्थायीभाव आशिल्लो. ताची 'तीन तरुणी' ही पुर्तुगेज अणकारीत कादंबरी मुळांत उच्छंखल आनी उत्तान आसून ताणें तिचें भाशांतर मुळच्या प्रसंगाक उठाव हाडटलें अशेंच केल्लें आसा. असो श्रृंगार आनी प्रणय इतल्या मेकळेपणांन वाचप्यांमुखार हाडिल्ल्यान, तेवेळार हे कादंबरीचेर अश्लील - तेचो आळय आयिल्लो.

पुर्तुगेज भाशेंतल्या कादंबरीचो मराठींत अणकार हें ताचें मराठी भाशेक मेळिल्लें एक खास योगदान.

- कों. वि. सं. मं.

**रायगड :** महाराष्ट्रांतलो एक नामनेचो इतिहासिक किल्लो आनी शिवछत्रपतीन घडयल्ल्या हिंदवी स्वराज्याची राजधानी. रायगड जिल्ह्यांत तो महाडचे उत्तरेक २५ किमी. अंतराचेर आनी जंजिऱ्याचे उदेंतेक ६५ किमी. अंतराचेर सह्याद्री दोंगर ५. १२५ चौ. किमी. चेर आसा. ताची उंचाय ८४६ मी. आसून, सरभोंवतणी सांदोशी, छत्री निजामपूर, वाघेरी वाडी, पाचाड अशा खेड्यांचो पुंजुलो दिसता. रायरी हें दोंगुल्लेचें पोरनें नांव. जिब्राध्य असोय ताचो उल्लेख करतात. इशान्येकडे लिंगाणा, उदेंतेकडे तोरणा, दक्षिणेकडे कांगोरा, चांभारगड, सोनारगड, वायव्येकडे तळेगड, उत्तरकडे घोसाळगड हे गड रायगड किल्ल्याभोंवतणी राखणदार कशे उबे रावल्यात. तेचखातीर शिवाजी महाराजान थंय राजधानीची स्थापना केली.

ह्या रायगडाविशीं कितल्योशोच दंतकथा प्रचलित आसात. शिवाजी - संभाजी हांच्या काळांत इंग्रज, डच, पुर्तुगेज ह्या वकिलानी. ह्या किल्ल्याक भेट दिवन ताचें वर्णन बरोवन दवरलां. १२व्या शेंकड्यांत रायरी हें मराठी पाळेगारांचें निवासस्थान आसलें. १४व्या शेंकड्यांत ह्या पाळेगारांनी विजयनगराचें मांडलिकत्व आपणायलें. इ.स. १४३६ त दुसरो अल्लाउद्दीन बहमनीशाहान रायगड आपल्या ताब्यांत घेतलो. इ.स. १४७९ त अहमदनगराच्या निजामशाहान रायरी आपल्या ताब्यांत घेतली. इस्तंबोली हो ताचो किल्लेदार आसतना आदिलशहाचे वतीन हैबतखानान रायरीचेर हल्लो करून, भोंवतणच्या प्रदेशासयत किल्लो जिखून ताणें राजे पतंगराव हाका किल्लेदारी दिली. फुडें १६२१ त मलिक जमरून हो हवालदार जालो. मागीर परत हो किल्लो निजामशाहींत गेलो. मोगलानी निजामशाही नश्ट केल्याउपरांत आदिलशाहींत जाल्ले कबलातीप्रमाण रायरी आदिलशाहीकडे आयली. आदिलशाहान १६३६ ते १६४४ च्या अदमासाक जंजिऱ्याच्या सिध्दी घराण्यांतलो इब्राहीम-सय्यद कब्बरी आनी शेख अली हांकां हवालदारीचो हक्क दिलो. चंद्रराव मोरे हाचेकडे रायरी आदिलशहाच्या वतीन गेली. शिवाजी महाराजान जावळी जिकून १६५६ च्या सुमाराक चंद्रराव मोऱ्याकडले सगळे किल्ले काबीज केले. १५ एप्रिल ते १४ मे १६५६ च्या अदमासाक रायरी शिवाजीच्या हातांत आयली. तेन्ना शिवाजीन रायरीचें रायगड नांव दवरलें आनी तीन चार वर्सांभितर थंय ल्हान व्हड तीनशें वास्तू बांदल्यो. १६६२ वर्सा शिवाजीन राजधानीखातीर रायगडाची निवड केली आनी १६७४ त राज्याभिशेक केलो. शिवाजीच्या मरणाउपरांत १६८९ त तो छत्रपती संभाजीच्या ताब्यांत आसलो. फुडें मोगलांनी तो घेतलो. १६८९ त परत मराठ्यांनी घेतलो. १७३५ तो किल्लो उत्तर पेशवाईंत राजकीय बंद्यांची बंदखण जाल्ली. नाना फडणीस आनी दुसरो बाजीराव हाणें पडट्या काळांत ताचो आलाशिरो घेतलो. मराठ्यांचो पराभव करून ब्रिटीश लश्करी अधिकारी कर्नल प्रॉथरान १० मे १८१८ त रायगड जिकून घेतलो. त्यावेळार तोफांच्या माऱ्यांत जायत्यो इमारती मोडल्यो. ते उपरांत शिवजयंती उत्सवानिमतान १८९७ त लोकमान्य टिळक स्मृतीनी लोकजागृतायेकलागून ह्या इतिहासिक वास्तूकडेन परत लक्ष दिलें, आतां तें पर्यटकांचें एक प्रेक्षणीय स्थळ जालां.

नगारखाना, मनोरे, बुरूज, देवळां अशो कांय वस्तू नश्ट जाल्ल्यो आसून लेगीत, ते वास्तूचे भव्यतेची कल्पना येता. किल्ल्याक हिरकणी, टकमक, भवानी आनी श्रीगोंदे अशीं चार तोंकां आसून, टकमक तोंक आनी हिरकणीविशीं जायत्यो कथा प्रसिद्द आसात.

चोर दाराखेरीज किल्ल्याक एकूच व्हडलें दार आसा. सगळ्या वटांनी कातळ आनी कांय कडेन तटबंदी आसा. नाणेदार हें रायगडाचें सुरवातीचें प्रवेशदार आसून, ताचे भितरले वटेन महादार लागता. थंय २२ मीटर उंचायेचे दोन बुरूज आसात.

मनोऱ्याचे अस्तंतेक एकवीस सोपणां चडून गेल्याउपरांत बालेकिल्ल्याचें दार लागता. ताचें क्षेत्रफळ ३०० x १५० मीटर आसून, सरभोंवतणी तटबंदी आसा. भितरलेवटेन पोरने इमारतीच्यो दोन वळी लागतात. उजवेवटेन राणयांचे सात म्हाल आसून दावेवटेन नोकरांच्यो कुडी आसात. बालेकिल्ल्याचे मदीं सिंहासनाचो चवथरो आसून तो सुस्थितींत आसा. सिंहासनामुखार फवारे आसून, ताचेमुखार उदेंतेक १६ मीटर उंचायेचो भव्य नगारखानो आनी बालेकिल्ल्याचें मुखेल प्रवेशदार आसा. हांगाच शिवाजी महाराजाचो दरबार भरतालो. ह्या सभाघराचो आवाजाचे नदरेन विचार केल्लो आसा. कारण नगारखान्यामुखार आशिल्ले व्यक्तिक सिंहासनालागीं उलयल्लें स्पश्ट आयकूंक येता. ताच्या मुखार शिवाजीचो वाडो आनी त्या भोंवतणी कार्यालयीन इमारती आसात.

नगारखान्याचे उदेंतेक कुशावर्त नांवाचें तळें आसून, लागींच श्रीगोंदे तोंक आसा. तशेंच शिवाजीच्या अश्ट प्रधानांचे वाडे आसात. ताच्या मुखार दारूखान्याचें कोठार २५ x ६ मी. आसा. बालेकिल्ल्याचे वायव्येक पीलखान्याची जीर्णशीर्ण वास्तू, ताचे उत्तरेक गडावयल्या बाजारपेठेचो अवशेश, दोनूय वटेंतलीं मेळून सुमार ४४ दुकानां आसात. दोनय रांकेंत फरसबंदी आसून सुमार बारा मी. रूंद रस्तो आसा. थंयच्यान इशान्येच्या प्राकारांत हेमाडपंती पद्दतीन बांदिल्लें जगदीश्वर महादेवाचें देवूळ आसून, ताच्या प्रवेशदाराकडे मारूतीची सोबीत पाशाणी मूर्ती आसा. देवळाभोंवतणी नृत्यांगनांच्यो रावपाच्यो कुडी आनी देवळाच्या एका शिलालेखाचेर राज्याभिशेकाची मितितिथी आनी शके हाचो उल्लेख आसा. देवळाच्या उदेंत दारामुखार शिवछत्रपतींची समाधी आनी घुमटाकृती यादस्तीक आसून, ताच्या मुखार इमानी वाद्या सुण्याचेंय यादस्तीक आसा. ते भायर फरास

मदारशाह ह्या मुस्लीम साधुची कबर, हत्ती तळें, गंगासागर तळें ह्योय वास्तू आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**रायचौधरी, देवीप्रसाद :** (जल्म : १५ जून १८९९, रंगपूर जिल्हो - बांगलादेश; मरण : ? ऑक्टोबर १९७५).

आर्विल्लो भारतीय शिल्पकार आनी चित्रकार. ताचें मुळावें शिकप उत्तर कलकत्त्यांत 'खेलतचंद्र' हे संस्थेंत जालें. उपरांतचें शिक्षण कलकत्त्यांतल्या मित्र विद्यालयांत जालें. ताची भुरगेपणापसुनची चित्रकलेची आनी मातयेच्या मूर्तिकामाची आवड पळोवन ताच्या बापायन (उमाप्रसाद रायचौधरीन) ताका शाळेंतल्यान काडून अवनींद्रनाथ टागोर हाचे कडेन चित्रकलेच्या शिक्षणाखातीर धाडलो. ताचीं सुरवातीच्या काळांतलीं चित्रां अवनींद्रनाथाचे शैलीचो प्रभाव दाखोवपी, परंपारीक भारतीय शैलीचीं आनी उदकारंगांतल्या गाड रंगसंगतीचीं रंगयल्लीं आसात. हे शैलींत प्राविण्य मेळयल्या उपरांत फुडें ताणें ब्रिटीश चित्रकारांची वास्तववादी चित्रशैली आपणायली. नामनेचो डच चित्रकार रेम्ब्रँट आनी फ्रेंच चित्रकार रॉदँ आनी बूर्देल हांच्या शैलीचोय प्रभाव ताचेर पडलो. आफ्टर द स्टॉर्म, लेपूचागर्ल, लॉटस पाँड, क्युरियॉसिटी ह्या चित्रांतल्यान ताणें मानवी मनाचे तरल कोंगरे दाखयल्यात. तेलरंगांतल्या चित्रांभितर निर्वाण, दुर्गापूजा प्रोसेशन, पुजारिणी हीं चित्रां म्हत्वाचीं आसात. पेरिलस पाथ आनी रोड - मेकर्स ह्या चित्रांत उजवाड - सावळेच्यो विंगड विंगड सया समर्थपणान चित्रीत केल्यात. ताणें रंगयल्लीं दर्याचित्रां (सी - स्केप) आनी जनावराचीं चित्रां उल्लेख करपासारकीं आसात.

१९२९ वर्सा सरकारान मद्रास शारांतल्या शासकीय महाविद्यालयांत प्राचार्य म्हण ताची नेमणूक केली. थंय ताची कारकीर्द खूब फळादीक जाली. कलाशाळेंतल्या वास्तुंची उंचाय अदीक वाडोवन तातूंत पुराय उजवाड खेळटलो अशे रीतीन सुदारणा केली.

तशेंच शिक्षणपद्दतीच्या संदर्भांत रोमन शिल्पावयल्यान रेखाटनाचे धडे गिरोवच्यापरस प्रत्यक्ष जिव्या मॉडेलावयल्यान रेखाटनाचो अभ्यास करपांत ताणें चड भर दिलो. सुरवातीसावन ताका व्यक्तिशिल्पां करपाचो नाद आसलो. त्या काळचो सुप्रसिद्द शिल्पकार हिरण्मय रायचौधरी हाचें ताका मार्गदर्शन मेळ्ळें.

ताणें मद्रास आनी कलकत्ता हांगाच्या जायत्या नामनेच्या भारतीय आनी ब्रिटीश अधिकाऱ्यांचीं व्यक्तिशिल्पां केलीं. तातूंत ताचो बापूय, ॲनी बेझंट, सी.पी. रामस्वामी अय्यर आनी गव्हर्नर जॉर्ज स्टनले तशेंच आशुतोष मुखर्जी, सुरेंद्रनाथ बॅनर्जी, महात्मा गांधी, मोतीलाल नेहरू आनी स्वामी विवेकानंद हांचो आस्पाव जाता. ह्या व्यक्तिशिल्पांतलें भारदस्तपण, भावदर्शन आनी व्यक्तिसाम्य तुस्त करपा इतलें फिशाल जालां. व्यक्तिशिल्पांपरसय ताणें घडयल्ल्या 'ट्रायम्फ ऑफ लेबर' (श्रमप्रतिश्ठा) हें शिळा परतुपी कामगार समुहाचें रचणूक - शिल्प, (१९५४), मार्टीयर्स मेमोरिअल (हुतात्मो - स्मारक) हें व्हडल्या आकाराचें समुहशिल्प (१९५६) ह्या शिल्पांनी ताका व्हड नामना जोडून दिली. चित्र - शिल्प कलेभायर संगीत, लेखन, कुस्ती, शिकार अशा वेगवेगळ्या कलेतय ताणें फिशालकाय मेळयली.

१९५७ वर्सा तो मद्रास कलाविद्यालयांतल्यान निवृत्त जालो. पूण ते उपरांत लेगीत ताणें आपली कलानिर्मिती चालू दवरली. ताका खूब मानसन्मान फाव जाल्यात. ब्रिटीश सरकाराचेवतीन ताका 'एम्.बी.ई.' ही सन्मान पदवी आनी १९५३ त तो ललित कला अकादमीचो पयलो अध्यक्ष जावपाचो मान मेळ्ळो. १९५५ वर्सा टोकियोंत आयोजित केल्ल्या यूनेस्को कलाचर्चासत्राचो अध्यक्ष आनी संचालक जालो. १९६८ त कलकत्त्यांतल्या रवींद्र भारती विद्यापिठान 'डी.लिट्.' पदवी दिली. १९५८ वर्सा पद्मभूषण किताब फावो जालो. त्याकाळच्या मान्यताप्राप्त बंगाल संप्रदायाची शैली सोडून आर्विल्ली शैली आपणावपाची वृत्ती आनी शिल्प कलेंतली फिशालकाय आनी नावीन्य हाकालागून आर्विल्ल्या शिल्प कलाकारांमदीं ताका उंचेली सुवात फाव जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**रायट्, ऑर्व्हिल :** (जल्मः १६ एप्रिल १८६७, मिलव्हिल लागसार, इंडियाना; मरणः ३० मे १९१२, डेटन).

**रायट्, विल्बर :** (जल्मः १९ ऑगस्ट १८७१, डेटन, ओहायओ; मरणः ३० जानेवारी १९४८, डेटन).

विमानविद्येंतले आद्य अमेरिकन संशोधक भाव. १९०३ वर्सा तांणी हवेपरस जड अशा विमानाची पयली जैतीवंत शक्तिचलित, अखंड आनी नियंत्रित उड्डाणां साध्य केलीं. उपरांत १९०५ वर्सा पयलें पुरायपणान वेवहार्य विमान तयार केलें. दोगांयचेंय शिक्षण उच्च माध्यमिक शाळेमेरेनूच जाल्लें पूण तांणी स्वताच त्या काळांतल्या तंत्राविशींच्या साहित्याचो आनी गणिताचो अभ्यास केलो.

तांणी खबरापत्राची घडी घालपी यंत्राचो आराखडो तयार केलो आनी एक व्हड छापखानो उबारून सुरवातेकूच आपली यांत्रिक कुशळताय दाखोवन दिली. बरींच वर्सां हो वेवसाय करतकच १८९२ वर्सा तांणी सायकलींची विक्री आनी दुरुस्ती करपी रायट सायकल कंपनीची स्थापणूक केली. फुडें १० वर्सां मेरेन तांणी सायकलीचे आराखडे, उत्पादन आनी विक्री केली.

जर्मन संशोधक ओटो लीलिएंटाल हाच्या उड्डाणाविशींच्या केल्ल्या प्रयोगासंबंदीं तेचभशेन १८९६ वर्सा ग्लायडिंगांत जाल्ल्या अपघाताच्या ताच्या मरणाविशीं वाचतकच रायट भावांनी विमानविद्येचो खोलायेन अभ्यास करपाचें थारायलें.

लीलिएंटाल हाणें उड्डाणाखातीर हँगग्लायडचो उपेग केल्लो आनी ताचें नियंत्रण शरीराक फाव ते दिकेन झेले दिवन गुरूत्वमध्याचें म्हळयार जातुंतल्यान गुरुत्वाकर्शणाची परिणामी प्रेरणा कार्य करता त्या बिंदूचें स्थान बदलून साध्य केल्लें. रायट भावांनी हे पद्दतीबदला दोन पंखांचें घट्ट विमान वापरपाचें थारायलें.

बझर्ड पक्षी उडटना हवेंत आपलो संतुल कसो सादता हाचें निरीक्षण करतकच विल्बराक समजलें की विमान उडपाखातीर तीन अक्षांचेर ताचें कार्य जावपाक जाय. पक्ष्याभशेन उडपी यंत्राविशींय एके वा दुसरे वटेन तिरपें जावप, वयर चडप वा सकयल देंवप, उजवे वा दावे वटेन वळप आनी गरजेप्रमाण एकाच वेळार ह्या क्रियांतल्यो दोन वा सगळयो क्रिया करपाक येवप गरजेचें आसा. रायट भावांक उड्डाण नियंत्रण म्हत्वाचें आशिल्ल्याची खात्री जाल्ली.

बझर्ड पक्षी आपले दोलन गतीचें नियंत्रण पाखांक पीळ दिवन करतात अशें तांकां समजलें. १८९९ वर्सा तांणी तयार केल्ल्या दोन पाखांच्या पतंगाक बसयल्लीं पाखां यांत्रिक रितीन पिळूंक मेळटलीं अशी वेवस्था तातूंत केल्ली. हाका लागून एके वटेनचें उत्थापन चड आनी दुसरे वटेनचें त्याच वेळार कमी जावन यान तिरपें जावपाखातीर घुंवडावप वा वाऱ्यान घुंविल्लें आसल्यार दोलनान परतून योग्य पातळेंत हाडप तांकां शक्य जालें. १९०० आनी १९०१ वर्सा नॉर्थ कॅरोलायनांतल्या किटी हॉक हांगा केल्ल्या प्रयोगांवयल्यान आनी ग्लायडिंग चाचण्यांवयल्यान तांकां समजलें की, त्या काळांत उपलब्ध आशिल्ली चडशी वायुगतिकीय म्हायती चुकीची आशिल्ली. तेखातीर तांणी एक ल्हान वातविकार उबारून तातूंत १९०१ वर्सा कितल्योशोच वायुयामिकी चांचण्यो घेतल्यो आनी तांचेवयल्यान खात्रीची अशी वायुगतिकीय म्हायती मेळयली. ह्या सगळया अभ्यासावयल्यान तीन ग्लायडर तयार केले. १९०० ते १९०२ ह्या काळांत किटी हॉकलागसार तांचीं उड्डाणां करून रायट भावांनी योग्य उड्डाण नियंत्रण साध्य केलें. हेखातीर तांणी निमाण्या ग्लायडरांत वयर-सकयल नियंत्रणाखातीर अग्रीय उत्थापक, उजवे दावे वटेन घुंवपाखातीर फाटले वटेन उबे सुकाणू आनी दोलन नियंत्रणा खातीर पंखांक सर्पिलाकार पीळ दिवपी यंत्रणा अशी येवजण केल्ली. अशे तरेन साध्य केल्ली त्रिअक्षीय नियंत्रण पद्दत ही तांची वायुगतिकींतली आनी वेवहार्य विमान उड्डाणांतली म्हत्वाची कामगिरी आशिल्ली. हे पद्दतीचें तांणी १९०६ वर्सा पेटंट मेळयलें. तेन्ना सावन ही पद्दत सगळया विमानांनी वापरतात.

१९०३ वर्सा तांणी पयलें शक्तिचलित विमान तयार केलें. तेखातीर तांणी वापरिल्लें १२ अश्वशक्तीचें इंजिन आनी पंखो हांचो अभिकल्प आनी उत्पादन तांणीच केल्लें. ह्या विमानान १७ डिसेंबर १९०३ दिसा किल डेव्हिल हिल्सन लागसार चार यशस्वी उड्डाणां केलीं. तातुंतल्या पयल्या उड्डाणांत ऑर्व्हिल विमान चलयतालो तेन्ना ताणें १२ सेकंदांनी सुमार ३६ मीटर अंतर हुंपलें. निमाण्या उड्डाणांत विल्बर चालक आशिल्लो आनी ताणें ५९ सेकंदांनी सुमार २५५ मीटर अंतर हुंपलें. 'किटी हॉक' ह्याच लोकप्रिय नांवान वळखुपांत येवपी हें विमान उपरांत १७ डिसेंबर १९४८ दिसा वॉशिंग्टन हांगाच्या स्मिथसोनियन इन्स्टिटयूशनांत दवरलें. फुडलीं पांच वर्सां रायट भावांनी, आपल्या विमानांत आनी तें चलोवपाचे आपले कुशळतायेंत सुदारणा करपांत सारलीं.

१९०५ वर्सा तांणी बांदिल्लें तिसरें विमान हें जगांतलें पयलें पुरायपणान वेवहार्य विमान थारलें. हें विमान घुंवप, वाटकुळी भोंवडी मारप आनी इंग्लीश आठ आकारांत उडप ह्यो हालचाली करूंक शकतालें. तशेंच हें विमान सुमार अर्द वर हवेंत रावंक शकतालें.

विमानाचो पयलो उपेग झुजांत जावपाची खात्री जाल्ल्यान रायट भावांनी परदेशी बाजारांत आपल्या विमानाखातीर गिरायक सोदपाक सुरवात केली. उपरांत १९०८ वर्सा फ्रांसांतल्या वेपारी संस्थांनी आनी अमेरिकेच्या सरकारान तांचेकडल्यान विमान घेवपाचे करार केले. त्याच वर्सा फ्रांसांत रायट कंपनीची स्थापणूक केली. दोनूय देशांत प्रात्यक्षिक चांचण्यो दाखोवपाखातीर ऑर्व्हिल हाणें अमेरिकेंत आनी विल्बर हाणें फ्रांसांत उड्डाणां केलीं. हाका लागून रायट भावांचें विमान उड्डाणाविशींचे सगळे दुबाव पयसावन अमेरिका आनी युरोप ह्या दोनूय खंडांतल्या जाणकारांनी तांची विमान तंत्रज्ञान मळावयली विद्वत्ता मानून घेतली.

१९०९ वर्सा ऑर्व्हिल हाणें फोर्ट मायर हांगा आपल्या 'रायट ए' ह्या नव्या विमानाचें यशस्वी उड्डाण केलें आनी ताका लागून तांकां अमेरिकेच्या लश्कराचें कंत्राट मेळून तांचें विमान जगांतलें पयलें लश्करी विमान थारलें. १९०९ वर्साच्या निमाणें अमेरिकन रायट कंपनीची स्थापणूक जाली. ते उपरांत रायट भावांनी आपलें लक्ष हेरांक उड्डाणाचें तंत्र शिकोवपाक आनी रायट कंपनीचो कारभार पळोवपाक घालयलें.

१९१० आनी १९११ वर्सा सुदारीत रायट विमानां वापरांत आयलीं. तांचें उड्डाणूय बरें जातालें. पूण तेउपरांत युरोपीय तंत्रज्ञांनी रायट भावांच्या तंत्रज्ञानाचेर मात केली. विल्बराक टायफॉयडान मरण येतकच १९१५ वर्सा ऑर्व्हिलान रायट विमान निर्मिती कडलो आपलो संबंद पयस केलो आनी उरिल्ली जीण विमानविद्येंतल्या संशोधनांत घालयली. १९१५ - ४८ ह्या काळांत ताणें विमानविद्येच्या राश्ट्रीय सल्लागार समितीचो वांगडी म्हणून काम केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**रायतुरकार, रवींद्रनाथ यशवंत पै :** (जल्मः २१ एप्रिल १९३२, मडगांव, साश्ट).

गोंयचो सुटकेझुजारी. शिक्षण बी.एस्सी., एम.एड्. तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५४ त तो सुटके

झुजारखातीर वांगडी जमोवप, पुर्तुगेज सत्तेआड कागदपत्रां छापून हाडप, पत्रकां वांटप असलीं कामां करतालो. १० नोव्हेंबर १९५४ ह्या दिसा पुर्तुगेज पुलिसांनी ताका धरलो. आगॅस्ट १९५५ त ताका प्रदेशीक लश्करी न्यायालया मुखार उबो करून स वर्सांखातीर ताका खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेचपरी २० वर्सांखातीर ताच्या राजकीय हक्कांचेर बंदी घाली. फुडें चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगतकच २४ नोव्हेंबर १९५८ ह्या दिसा ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**रायतें :** जेवणांतलो एक खाद्य पदार्थ. आंबट, तिखट, गोड असो हो जिन्नस भारतांत सगळेकडेन मुखेल जेवणाचे जोडयेक करपाची पद्दत आसा.

ताचे आंबट, गोड, तिखट रुचीक लागून तो जेवणाक एक आगळी रूच हाडटा. जेवणाचे एकंदर रुचीक एक आगळी अशी रूच हाडपाच्या प्रयोजनांतल्यानूच रायत्याचो जेवणांत आस्पाव जाला आसूं येता. चड करून धर्मीक सुवाळयाचे शिवराक जेवणावळींत रायतं आसचेंच असो संकेत आसा.

मिरसांगां रायतें, आंबाडयां रायतें, कारात्या रायतें, बिमलां रायतें, तवशा रायतें, बटाटां रायतें, लिंबू रायतें, दुदया रायतें, खाराबुंदी रायतें, पकोडा रायतें अशे प्रदेशा प्रमाण रायत्याचे प्रकार आसात. गोंयां परस गोंयां भायर चड करून उत्तर भारतांत रायत्याचो वापर चड जाता.

धंय, मिरसांगो, आमटाण, मिरयां, हींग, सांसवां, मीठ, करबील, सोय, हळद, तीळ, काजुबियो, भिकणां आनी रायत्याच्या प्रकारा प्रमाण तेते जिन्नस घालून तरे तरेचीं रायतीं करतात. कांय प्रकारांत जिन्नस मसाल्यासयत शिजोवप जाता, तर कांय प्रकारांत ते चटणेसारके वांटप जातात.

- सुधा सुरेश आमोणकार

**राय, प्रफुल्लचंद्र हरीशचंद्र :** (जल्मः १८६१, ररूलीकतिपरा, खुलाना - बंगाल; मरणः १९४४).



आर्विल्ल्या काळांतलो एक व्हड रसायनशास्त्रज्ञ. ताचो बापूय हो एक विद्याप्रेमी, सुदारक वृत्तीचो आनी बुध्दिवादी आशिल्लो. हिंदू समाजाचे उदरगतीखातीर इंग्लीश शिक्षणाची खुबूच गरज आसा अशें धरून ताणें आपल्या गांवांत इंग्लीश शाळा सुरू केली आनी तेखातीर आपलें घर दिलें. हेच शाळेंत प्रफुल्लचंद्र हाणें मुळावें शिक्षण घेतलें. उपरांत तो कलकत्त्याक फुडलें शिक्षण घेताआसतना ताणें भरपूर वाचन केलें. सुरेंद्रनाथ बॅनर्जी, आनंदमोहन बसू आनी केशवचंद्र सेन हांचीं व्याख्यानां आयकून ताका देश आनी समाजाच्या आपल्या कर्तव्याविशीं बोध मेळ्ळो. तेन्नाच तो ब्राह्मसमाजाचो वांगडी जालो. ताका खरेपणान इतिहास आनी साहित्य ह्या विशयांची चड आवड आशिल्ली. पूण गॅलिलिओ, न्यूटन, फ्रॅंक्लिन ह्या शास्त्रज्ञांचीं चरित्रां वाचून ताका विज्ञानाविशीं ओड निर्माण जाली. तशेंच विज्ञानाबगर ह्या देशाची उदरगत साध्य ना हे जाणिवेन ताणें विज्ञानाचो अभ्यास करपाचें थारायलें.

इ. स. १८८२ वर्सा ताणें गिल्ड ख्रिस्त शिश्यवृत्तीची परिक्षा दिली आनी तो पयलो आयलो. ताकालागून इंग्लंडाक वचून शास्त्राभ्यास करपाची संद ताका मेळ्ळी. इंग्लंडांतल्या एडिंबरो विद्यापिठांतल्यान ताणें पदार्थविज्ञान, रसायनशास्त्र, प्राणिशास्त्र आनी जीवशास्त्र ह्या विशयाचो अभ्यास केल्लो. पूण ताचो चड भर आशिल्लो रसायनशास्त्राकडे. १८८५ त तो पदव्युत्तर जालो. थंयच आनीक दोन वर्सां चड संशोधन करून ताणें डी. एस्सी. ही पदवी मेळयली. तेभायर ताका बऱ्या संशोधनाखातीर पदकां आनी शिश्यवृत्त्योय मेळ्ळयो. थंयच्या विद्यापिठाच्या रसायनमंडळाचो तो उपाध्यक्ष जाल्लो. डॉक्टरेट मेळटकच थंय आनीक एक वर्सभर संशोधन करून तो भारतांत आयलो.

भारतांत ताका १८८९ त प्रेसिडेन्सी कॉलेजांत असिस्टंट प्रोफेसर म्हूण नोकरी मेळ्ळी. थंय ताणें शास्त्रीय संशोधन सुरू केलें. १८९२ त ताणें आपल्या घरांतच विलायती वखदां तयार करपाखातीर बंगाल केमिकल अँड फार्मास्युटिकल वर्क्स नांवाचो कारखानो सुरू केलो. अशे तरेचो भारतांतलो तो पयलो कारखानो अशिल्लो.

हवेंतलो नायट्रोजन वायु काडून नायट्रोजन युक्त पदार्थ (मर्क्युरस नायट्राइट) तयार करपांत ताका यश मेळ्ळें (१८९६). ह्या सोदान ताका संवसारीक नामना मेळोवन दिली. उपरांत ताणें जायतीं संयुक्तां तयार केलीं आनी त्या शास्त्रांतल्यो जायत्यो घुस्पागोंदळाच्यो अडचणी सोडयल्यो. इ. स. १९०४ वर्सा भारत सरकारान ताका युरोपांतल्या वेगवेगळया रसायनीक प्रयोगशाळांचें निरिक्षण करपाक सरकारी खर्चान धाडलो.

ताणें धा - बारा वर्सां पुर्विल्ल्या ग्रंथाचो अभ्यास करून 'हिंदू रसायनशास्त्राचो इतिहास' ह्या नांवाचो एक इंग्लीश ग्रंथ बरयलो. ह्या ग्रंथांत पुर्विल्ल्या भारतांतल्या असंख्य रसविदांची आनी तांच्या प्रयोगांची पुरायतरेन म्हायती मेळटा. युरोपांतल्या जायत्या भासांनी ह्या ग्रंथाचे अणकार उजवाडायल्यात. ताच्या ह्या ग्रंथाक डरहॅम विद्यपिठान ताका डी.एस्सी. ही पदवी दिली.

इ. स. १९११ त सरकारान ताका सी. आय. ई. ही पदवी दिली. पयल्या म्हाझुजाउपरांत ताका सर ही पदवी दिली. इ. स. १९२० वर्सा जाल्ले विज्ञानपरिशदेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. ताणें बंगाली भाशेंत जायतीं शास्त्रीय पुस्तकां बरयलीं. तातुंतलीं जंतुविज्ञानाविशींची पुस्तकां उल्लेख करपासारकीं आसात. १९२२ वर्सा बंगालाचेर हुंवार आनी दुकळ हांचें अरिश्ट आयलें. अशा वेळार आपल्या वांगडा शेंकड्यांनी तरणाट्या विद्यार्थ्यांक घेवन ताणें संकश्ट पिडितांक मदत केली. महात्मा गांधीच्या चरखो आनी खादी विशीं जेन्ना ताका म्हत्व पटलें तेन्ना तो चरख्याचो परमभक्त जालो आनी चरख्याविशीं प्रचार करूंक लागलो.

इ. स. १९१३ वर्सा तो निवृत्त जालो. १९२६ मेरेन कलकत्ता विद्यापिठाच्या रसायनप्रयोग शाळेचो मुखेल आशिल्लो. इ. स. १९२४ त ताणें इंडियन कॅमिकल सोसायटीची स्थापना केली.

तो एक व्हड देशभक्त आनी समाजसेवक आशिल्लो. आपलो अज्ञानी आनी रुढींनी बांदिल्लो समाज, चाकोरींतल्यान भायर सरूंक जाय जाल्यार तांकां शास्त्रीय गिन्यान मेळ्ळूंक जाय अशें ताका दिसतालें. ताका लागून बंगाली भाशेंत तो विज्ञानाविशीं लेख बरोवंक लागलो. जातीभेद, अस्पृश्यता, वायट चालीरिती हांचेर ताणें लेखनावरवीं हल्ले चडयले. विज्ञानाच्या मळार ताणें शेंकड्यांनी विद्यार्थ्यांक वांगडा घेवन संशोधकाची परंपरा निर्माण केली. आपलें पुराय आयुश्य ताणें संशोधन कार्याक ओपलें. आर्विल्ल्या भारतीय रसायनशास्त्राचो प्रवर्तक आनी आचार्य म्हूण ताका आगळीच सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**राय, लाला लजपत :** (जल्मः २८ जानेवारी १८६५ लुधियाना, पंजाब - धुंठिके (जागराँ तहशील); मरणः १८ नोव्हेंबर, १९२८).



भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींतलो एक व्हड क्रांतिकारी फुडारी. ताची आवय गुलाबदेवी पयलींची शीख आशिल्ली. बापूय लाला राधाकिशन हो फार्सी आनी उर्दू विशयाचो शिक्षक आशिल्लो. धर्मीक सहिश्णुतायेच्या वातावरणांत वाडत आशिल्ल्या लजपतरायान मिशन हायस्कुलांतल्यान शिक्षण घेवन फुडें एल्एल्.बी. ची पदवी जोडली (१८८६) आनी थोड्याच काळाभितर यशस्वी वकील म्हणून तो नामनेक पावलो. फुडाराक १८९२ त लाहोराक स्थायीक जावन ताणें थंय वकिली सुरू केली. ताचेपयलीं विद्यार्थी आसतनाच ताचें राधादेवी हे हिस्साट हांगासल्ले अगरवाल कुटुंबांतले चलयेकडेन लग्न जालें (१८७७). ताका दोन चले आनी पार्वती नांवाची एक चली आशिल्ली. त्याकाळार जातीच्यो वण्टी मोडून समर्थ जावन परकी इंग्रज सरकारा आड आवाज काडपी आर्य समाजाची पंजाबी हिंदूंचेर मोहिनी पडपाक लागिल्ली. लालाजीकूय ताची ओड दिसली आनी तो सक्रिय आर्य समाजवादी जालो. अर्ज विनवणुकांचें नेमस्त राजकारण चलोवपी काँग्रेसीविशीं ताका सहानुभुती दिसनाशी जाली. तरीय १९०४ त 'पंजाबी' नांवाचें पत्र सुरू करून पंजाबचो वांगडी म्हणून तो काँग्रेस अधिवेशनाक गेलो. थंय ताचो इतको प्रभाव पडलो, ब्रिटीश लोकांमुखार हिंदी लोकांचे कर्झन राजवटींतले प्रस्न आनी राजकीय मागण्यो मांडपाखातीर सुरेंद्रनाथ बॅनर्जी, मुहंमद अली जिना आनी गो. कृ. गोखले हांचे वांगडा लालाजीचीय निवड जाली. मे १९०५ त तो इंग्लंडाक गेलो. पूण थंयचे लोक थळाव्या प्रस्नांत इतले घुस्पल्ले, लालाजीचे भोंवडेचो कांयच उपेग जालोना. वयल्यान परततकूच बंगालची फाळणी जाहीर जाली.

बरींच वर्सां सत्तेर आशिल्लो कॉन्झर्व्हेटिव्ह पक्ष वेंचणुकेंत १९०५ त हारलो. नव्या उदारमतवादी पक्षाविशीं काँग्रेसच्या नेमस्त फुडाऱ्यांक बऱ्योच आशा आशिल्ल्यो. ताकालागूनच डिसेंबरच्या बनारसच्या काँग्रेसच्या अध्यक्षीय उलोवपांत गोखलेन फाळणीक विरोध करुनूय एकूण मवाळ भास वापरली. त्या वर्सा देशांत दुकळ पडिल्लो आनी कर्झनचे हुकुमशायेक लागून लोक त्रासांत आशिल्ले. ह्या कारणाखातीर ब्रिटीश युवराजाक येवकार दिवपी पयल्याच थाटाक लालाजीन कडक विरोध केलो. ताका लोकमान्य टिळक आनी बिपिनचंद्र पालासारकिल्या जहाल फुडाऱ्यांचोय तेंको मेळ्ळो. उक्त्या अधिवेशनांत ह्या थारावावयल्या भासाभाशेच्या वेळार जहाल फुडारी गैरहाजीर रावले. बंगालाची फाळणी अनी कर्झनचे हुकुमशायेच्या निशेधार्थ लाखांनी लोकांनी व्हड निदर्शनां करचीं ही मागणीय लालाजीन केली. इंग्लंडांतले सत्तेर आशिल्ल्या उदारमतवादी पक्षाचेर आनी चडकरून भारताचो मंत्री मोर्ले हाचेर विस्वास दवरून नेमस्त फुडारी फाळणे आडचें आंदोलन बंगाला पुरतेंच शिमीत दवरपाचे यत्न करताले. १९०६ त जव्हालांनी ह्या धोरणाक कडक विरोध केलो आनी ब्रिटीश मालाचेर पुराय देशभर बहिश्कार घालपाखातीर प्रचाराची मोहिम सुरू केली. १८५७ च्या संग्रामाच्या भांगरा जयंती सुवाळ्याखातीर ताणें लोकजागृताय सुरू केली. कालव्याची आंखणी केले उपरांत व्हडा प्रमाणाचेर मेकळी उरिल्ली भूंय भायल्या शेतकारांक कांय अटींचेर दिल्ली. वीस - पंचवीस वर्सां उपरांत ताचेर नवे निर्बंध घालपी कॉलनायझेशन बील पंजाब सरकारान मानून घेतलें. तेचवेळार तीन जिल्ह्यांतली उदकाची पट्टी (कर) देडपटीन वाडयली. लालाजी आनी ताचो वांगडी अजितसिंग (हुतात्मो भगत सिंगाचो बापोलयो) हांच्या प्रचाराक लोकांनी, शेतकारांनी आनी चड करून पिडेस्त निवृत्त सैनिकांनी व्हड प्रतिसाद दिल्लो. १० मे १९०७ ह्या दिसा हजारांनी पंजाब्यांक घेवन लाहोरचो किल्लो घेवन १८५७ ची भांगरा उत्सवी

कार्यावळ मनोवपाची येवजण लालाजीन थरयल्या असो बोवाळ सरकार धार्जिण्या युरोपीय पत्रांनी सुरू केलो. पंजाब सरकारानूय बंडाचो उलो मारलो. निमाणें आदले दिसा म्हळयार ९ मेक लालाजी आनी अजितसिंगाक अटक करून मंडालेच्या बंदखणींत दवरले. देशांत आनी देशाभायरूय निशेधाचें ल्हार पातळळें. व्हायसरॉयान पंजाब कॉलनायझेशन बिलाक मान्यताय न्हयकारली. वाडयल्ली उदकावयली पट्टीय रद्द केली. पंजाब थंड जालो. मात सरकारान वृत्तपत्रांचो गळो अंदोवपी काळें बील आनी राजद्रोही सभांक बंदी घालपी बील हाडलें. सभा बंदीचो कायदो जालेउपरांत तीनच दिसांनी लजपत राय आनी अजितसिंग हांची सुटका जाली.

लालाजीक पंजाबचो शींव म्हणून गौरवपांत आयलो. ताच्या बंदखणीच्या काळांत ताच्या बऱ्याचशा अनुयायांनी मोवाळ धोरण आपणावन शरणांगतीवादी भुमिका घेतली. ताची दुखेस्त जाणवीकाय ताका सुटकेउपरांत जाली. कांय शिखांनी तर आजितसिंग हो शीखूच नाशिल्लो अशें पत्रक काडलें. आर्य समाजी फुडाऱ्यांनी आपली राजकारणाकडेन कांयच लागणूक ना, अशें परत परत घोशीत केलें. ताकालागून म्हयन्या उपरांत भरिल्ल्या सुरत हांगा जावपी काँग्रेस संघटनेच्या अधिवेशनाचो अध्यक्ष जावपाच्या, प्रस्तावाक लालाजीन संमती दिलीना. ताणें पंजाब पीपलस सोसायटी नांवाची संघटना काडली. आर्य समाजाच्या दयानंद कॉलेजींतलो जहाल देशभक्तीचो ओतो दैंविल्लो पळोवन ताणें राश्ट्रीय कॉलेज काडलें.

१९२० त खिलाफत आंदोलनाक तात्त्विक विरोध आसूनय ताणें नमतें घेतलें. त्या वर्साचें काँग्रेस अधिवेशनाचें अध्यक्षपद सगळयांच्या मतान ताका दिवपांत आयलें. नोव्हेंबर १९२१ त ताका अटक जावन ख्यास्त फर्मायली पूण भलायकी इबाडिल्ल्यान ताची बेगीनूच सुटका जाली. मोतीलाल नेहरू, चित्तरंजन दास हांचे वांगडा 'फेर' गटांत रावन ताणें स्वराज्य पक्षाची स्थापणूक केली. खिलाफत आंदोलनांत मलबारांतल्या खुबळिल्ल्या मोपल्यांनी व्हड दंगली केल्यो आनी आक्रमक मुस्लिम जातीयवाद उसळून आयले. ताची खर प्रतिक्रिया जाल्ल्यान बऱ्याचशा राश्ट्रीय फुडाऱ्यांनी हिंदू महासभेचें पुनरुज्जीवन केलें. १९२५ च्या पयल्या अधिवेशनाचो लालाजी अध्यक्ष आशिल्लो. १९२६ उपरांत 'स्वराज्य' पक्षान ॲसेंब्लीचेर बहिश्कार घालो. तातूंत लालाजी वांटेकार जालोना. फेब्रुवारींत (१९२८) केंद्रीय ॲसेंब्लींत सायमन कमिशनाचेर सगळे ब्रिटीश वांगडी नेमिल्ले खातीर सरकाराचो निशेध करपी थाराव लजपतरायान मांडलो. तो व्हडा मतान मान्य जालो. नोव्हेंबराचे सुरवेक पंजाबांत कमिशन आयले उपरांत लालाजीन निदर्शनाचें फुडारपण केलें. तातूंत जाल्ले नेटाचे मारहाणीन तो दुयेंत पडलो आनी तातुंतच ताका मरण आयलें. म्हयनेभराभीतर भगतसिंग आदी क्रांतिकारकांनी सॉंडर्सची हत्त्या करून लालाजीच्या मरणाचो बदलो घेतलो.

समाजीक सुदारणा आनी हरिजनांचो उध्दार हे बाबतींतूय लालाजी कार्यरत आशिल्लो. ताच्या 'अनहॅपी इंडिया' ह्या खासकरून गाजिल्ल्या ग्रंथाचेर आनी हेर लेखांचेर मेळयल्ले दोन लाख रुपये ताणें ह्याच कामाखातीर वापरले.

- कों. वि. सं. मं.

**रावण :** लंकेचो राजा आनी वाल्मिकी रामायणाचो खलपुरूश. पुलस्त्य ऋषीच्या विश्रवा नांवाच्या पुताचो हो पूत. रामायणांत हाचे आवयचें नांव कैकसी अशें सांगलां. पूण केशिनी आनी पुष्पोत्कटा अशींय तिचीं नांवां मेळटात. आवय वंशाकडल्यान रावण राक्षस आनी बापाय वंशाकडल्यान तो ब्राह्मण आशिल्लो. ताचो बापूय अग्निहोत्री आनी तपःसंपन्न आशिल्लो. तरी रावणाक आवय वंशाचें वळण लागिल्लें. तो त्या काळांत महाबळिश्ट आशिल्लो आनी ताचेकडेन शुरता, हुशारकाय, चिकाटी, निर्भयता आनी स्वाभीमान हे गूण जशे आसले तशे मदांधकाय, दुश्टकाय सारकिल्ले दुर्गूणय आसले. कुंभकर्ण आनी बिभीषण अशे ताका दोन भाव आनी शुर्पणखा ही भयण आशिल्ली. मंदोदरी ही ताची पट्टराणी. इंद्रजित, देवांतक, नरांतक, त्रिशिरस आनी अंतिकाय हे पूत आशिल्ले. रावणाक धा तोंडां आनी वीस हात आशिल्ल्याचें कांयकडेन वर्णन मेळटा. ताचेवयल्यानच ताका दशानन हें नांव पडलां आसुंये. वाल्मिकीन ताका दोन हात आनी एक तोंड आशिल्ल्याचें सांगलां. तरी वाल्मीकीरामायणांत कांयकडेन ताचो दशग्रीव असो उल्लेख आसा.

कुबेर हो ताचो सावत्र भाव. ताचेकडेन भरपूर आस्पत आनी पुष्पक विमान आशिल्लें. एक दीस तो विमानांत बसून बापायक मेळपाक वता आसतना रावणाचे आवयन ताका पळयलो. तिका मत्सर जालो, तिणें रावणाक कुबेरावरी श्रीमंत जावंक सांगलें. तेन्ना रावणान गोकर्णाक वचून धा हजार वर्सां तपश्चर्या केली. दर एक हजार वर्साच्या निमाणें ताणें आपलें एक एक मस्तक अग्नींत हवन केलें. निमाणें ब्रह्मदेवान प्रसन्न जावन 'मनशाकडल्यान तुका मरणाचो भंय ना' असो वर दिलो, अशी ताचे संबंदी कथा आसा. ह्या वरा उपरांत तो आनीकय बळिश्ट जालो. लंका ही कुबेराची राजधानी आशिल्ली. रावणान आडांगीपणान तिचेर जैत मेळयलें. हाचेभायर ताणें मरूत्त, अनरण्य ह्या आदी जायत्या राजांक हारयले. इंद्र आदी देवांकय ताणें हारयले. पाताळाचेर जैत मेळोवपाक गेल्लेकडेन बळीन ताचो पराभव केलो. कार्तवीर्य अर्जुनान ताका धोणुचे दोरयेन बांदून दवरिल्लो. पुलस्त्याचे सांगणेन ताची सुटका जाली.

दंडकारण्यांत ताणें साधुरूप घेवन सीतेक उबारून व्हेली. ताणें सीतेक वश करपाक जायते उपाय केले. पूण सीता ताका वश जाली ना. निमाणें रामाकडे जाल्ल्या झुजांत ताका मरण आयलें.

रामायणांत रावणाच्या गुण दुर्गुणाविशीं म्हायती मेळटा ते प्रमाण तो याचकांक दान दितालो, ताचेर अवलंबून आशिल्ल्यांक पाळो

दितालो. तशेंच तो व्हड तत्त्वज्ञानी आनी धर्म-कर्माच्या आचरणांत अग्रगण्य आशिल्लो. पूण ह्या सगळ्या गुणांचेर मात करपी दुर्गुण ताचेकडेन आशिल्ले. ताकालागून ताचेकडे आशिल्ल्या गुणांचो बऱ्या कामाखातीर उपेग जालो ना. कांय रामायणांत आडवाद म्हण्टा तशें रावणाचें उदात्तीकरण करपाचो यत्न जाला आसलो, तरी वाल्मिकीरामायणांत ताका एक खलपुरूश म्हणुनूच चड चितरावप जाला. लोक मानसांतय ताची तीच प्रतिमा चड प्रमाणांत घोळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**राव, पामुलपती वेंकट नरसिंह :** (जल्म : २८ जून १९२१, करीमनगर, आंध्र प्रदेश).

भारताचो णवो प्रधानमंत्री. एक कुशळ आनी अणभवी प्रशासक. प्रधानमंत्री राजीव गांधीचे हत्त्ये उपरांत धावे लोकसभा वेंचणुकेंत इंदिरा काँग्रेस पक्षाक घसघशीत यश मेळ्ळें. तेन्ना पी.वी. नरसिंह रावाक इंदिरा काँग्रेस पक्षाचो मुखेली म्हूण वेंचून काडलो (१९९१). उपरांत तोच प्रधानमंत्री जालो. ह्या पदाचेर पावपी तो भारताचो पयलो नेतो.



ताणें उस्मानिया , मुंबय आनी नागपूर विद्यापिठांतल्यान उच्च शिक्षण घेतलें. ताणें बी.एस्सी. आनी एल्‌एल्. बी. पदवी घेतल्या. तशेंच ताणें साहित्यरत्न ही उपाधीय मेळयली.

पी.व्ही. नरसिंह रावान आपली जीण एक शेतकामती म्हूण सुरू केली. पूण उपरांत ताणें वकालत सुरू केली. प्रधानमंत्री जावचे पयलीं ताणें केंद्र सरकारांत सुरक्षा, विदेश, मानव संसाधन, विधी, आरोग्य आनी शिक्षण मंत्री म्हूण वावर केला. ताका भारताचो एक बरो विदेश मंत्री म्हूण गौरव प्राप्त जाला. तो पयलीं १९६२ त आंध्राचो मंत्री आनी उपरांत मुखेलमंत्री जालो.

विद्यार्थी दशेंत आसतनाच ताचे राजनितीक जिणेक सुरवात जाली. निजाम सरकारान 'वन्दे मातरम्' पद म्हणपाचेर प्रतिबंध लायिल्ले, तेन्ना १९३८ त सुरू जाल्ल्या आंदोलनांत ताचो म्हत्वाचो वांटो आसलो. १९४२ त सुरू जाल्ल्या 'भारत छोडो' आंदोलनांत ताणें सक्रिय वांटो घेतिल्लो. तेखातीर ताणें आपली वकालत सोडून दिल्ली. भारताक स्वातंत्र्य मेळ्ळया उपरांत १९५७ सावन तो २० वर्सां मेरेन आंध्र प्रदेश विधानसभेचो वांगडी आसलो. १९६२ त तो पयले खेप संजीव रेड्डी मंत्रीमंडळांत मंत्री जालो. उपरांत ब्रह्मानंद रेड्डी सरकारांतय ताका मंत्रीपद फावो जाल्लें. १९७१ ते १९७३ मेरेन तो आंध्र राज्याचो मुखेलमंत्री आसलो.

श्रीमती इंदिरा गांधीच्या शासन काळांत १९७५ त तो काँग्रेस पक्षाचो महासचीव जालो. १९८० त तो विदेशमंत्री जालो. १९८८ त परतून तेंच पद ताका फावो जालें. १९८४ त तो सुरक्षा मंत्री जालो. उपरांत तो मानवसंसाधन विकास मंत्री जालो. राजीव गांधीची हत्त्या जाल्याउपरांत ताका पक्षाचो अध्यक्ष केलो. १९९१ त जाल्ले वेंचणुकेंत इंदिरा काँग्रेस पक्षाक घसघशीत यश मेळ्ळया उपरांत २० जून १९९१ दिसा ताका एका मतान काँग्रेस संसदीय दलाचो नेता म्हूण वेंचून काडलो. अशे तरेन तो भारताचो णवो प्रधानमंत्री जालो. उपरांत १० मे १९९६ मेरेन तो त्या पदाचेर आसलो.

हिंदी, इंग्लीश, संस्कृत, तेलुगू, कन्नड, मराठी, फारसी, अरबी, स्पेनीश आनी फ्रेंच ह्या भाशांचेर ताचें प्रभुत्व आसा. ताका विश्वनाथ सत्यनारायणच्या 'वेई पडारालू' हाचो हिंदींत अणकार केल्लेखातीर साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळा. तो स वर्सांमेरेन ज्ञानपीठ पुरस्कार चयनसमितीचो अध्यक्ष आसलो.

- कों. वि. सं. मं.

**रावळ :** एक जात. हिका राऊळ वा रावळिया अशेंय म्हण्टात. हांची वसती चडकरून गुजरात, राजस्थान, महाराष्ट्र आनी कर्नाटक ह्या वाठारांत आसा. ह्या लोकांची आर्दी भाट म्हूण नामना आशिल्ली. तांच्यांतले कांय लोक शेती करतात, कांय विणकाम करतात जाल्यार कांय लोक सकाळीं उठून त्रिशूळ हातांत घेवन पदां म्हणत भीक मागतात. राजस्थानांतले रावळ लोक बारा बारा मनशांचो एक फड उबारून गांवांनी भोवन लोकांक आपले नाच - गावपाचे खेळ करून दाखयतात.

पंजाबांत रावळ नांवाचे लोक आसात. ते चडशे मुसलमान आसून तांकां जोगी अशेंय म्हण्टात. ते भक्तिगीतां गावन भिक्षा मागतात. तांच्यांतले कांय लोक हकिमाचें काम करतात, जाल्यार कांय लोक भविश्य सांगपाचो धंदो करतात. रावळपिंडी हें नांव रावळ लोकांवयल्यान पडलें अशें सांगतात. मोहरमचे परबेवेळार हे लोक महंमद पैगंबराच्यो कथा, ताणें केल्ले चमत्कार हाचेविशीं सांगून ताचीं स्तुती गीतां गायतात. गुजरातांतल्या रावळांमदीं बरिया, भलिया, सखिया आदी सात पोटभेद आसात. परमार, चोहान, वाणिया, पटलिया, गधेडिया, होरांची आदी आडनांवां तांच्यांत आसात. तांच्यांत धा वा बारा गांवांचो मेळून एक एक गट तयार केल्लो आसता. प्रत्येकान आपल्या गटाभितरच लग्न संबंद जुळोवंक जाय असो तांच्यांत नेम आसा.

व्हंकलेचो बापूय न्हवऱ्याच्या घरा वता. चली पसंत पडल्यार न्हवऱ्याचो बापूय सुमार चाळीस रुपया तिचेखातीर देज दिता. ज्योतिशी लग्नाचो म्हूर्त काडून दिता. लग्नाच्या तीन, पांच, सात वा णव दीस पयलीं न्हवरे - व्हंकलेच्या घरा गणपतीची प्रतिश्ठापना

करतात आनी ते राती बायलो पदां म्हण्टात. लग्ना दिसा न्हवरो - व्हंकल एकामेकांचो उजवो हात हातांत घेतात आनी उपरांत एकामेकांच्या गळयांत हार घालतात. उपरांत दोगांय अग्नीभोंवतणी पांच प्रदक्षिणां घालतात. हें सगळें जातकच दोगांय एकामेकांक पिठ्याच्या लाडवाचे पांच घांस भरयतात. तांच्यांत विधवेक पुनर्विवाह करूंक मेळटा. दादल्याक खंयच्याय खिणाक आपले बायलेक सोडूं येता. पूण बायलेक मात घोवाचे मान्यतायेबगर घटस्फोट घेवंक मेळना. घटस्फोटीत बायलेक परत लग्न करूंक मेळटा.

हे लोक मेल्ल्या मनशाक बशिल्ले स्थितींत पुरतात आनी तांचें तोंड दक्षिणेकडेन करतात. बाराव्या दिसा सांजवेळचें तांदळाच्या पिठाचो दिवो करून तो पेटयतात आनी ताच्या मुखार एका पाटार गंव, तांदूळ, फुलां, फळां आदी वस्तू दवरतात आनी रातभर थंयच बसून रावतात. हे लोक महाकाली, अंबा, बहुचरा, हिंगलाज आदी देवतांक भजतात.

महाराष्ट्रांतल्या रावळ जमातींत चव्हाण, छत्रभुज, लके, पोवार, गायकवाड, जाधव, कवड, आदी आडनांवां आसात. एक आडनांव आशिल्ल्या कुळांत तांच्यांत लग्नसंबंद जायनात. लग्नाच्या दोनचार दीस आदी न्हवऱ्याक हळद लायतात आनी उरिल्ली हळद व्हंकलेक लावपाखातीर तिच्या घरा धाडटात. हळदी वागंडा पाचवी साडी आनी गोंडे (मुंडावळयो) धाडटात. दुसऱ्या दिसा देवकाखातीर बोकडो मारून ताच्या मांसाची मेजवानी दितात. लग्ना दिसा न्हवऱ्याक घोड्यार बसोवन मिरयत पयलीं मारुतीच्या देवळांत व्हरतात. थंय ताका नवें पागोटें आनी थैली दितात. थंयच्यान न्हवरो व्हंकलेगेर वता. थंय न्हवरो-व्हंकलेक एकामेकां मुखार उबीं करून मदीं अंतरपाट धरतात आनी पुरोयत मंगलाश्टकां म्हण्टात. मंगलाश्टकां जातकच अंतरपाट कुशीक काडटात आनी उपरांत दोगांय घोव बायलां जातात. सांजेची जेवणावळ जाता.

हांच्यांत मनीस मरतकच ताच्या तोंडांत तीर्थ आनी गोमूत घालतात. मडें कोंड्याच्या मखरांतल्यान मसंडेंत व्हरून तें उदेंतेकडेन तोंड करून पुरतात. मृताचो उत्तराधिकारी शंखांतल्यान थोडें उदक ताच्या तोंडांत घालता. मड्याचेर सुरवेक मीठ घालून उपरांत माती घालतात. मागीर त्या जाग्यार थडें बांदतात. तिसऱ्या दिसा सकाळीं मसंडेंत वचून मृतात्म्याक शीत, भाजी ओंपतात. इकराव्या दिसा घराच्या वाश्याक फुलांचो एक हार हुमकळायतात आनी ताचे सकयल एक तांबयो तशेंच पिठा दिवो दवरतात. उपरांत एक बोकडो बळी दितात. त्यावेळार मेल्ल्या मनशाचो आत्मो एखाद्या सोयऱ्याच्या आंगांत येता आनी आपली इत्सा सांगता. आंगांत आयिल्लो मनीस निपचीत पडटकच मेल्लो मनीस स्वर्गाच्या दाराकडे पावलो अशें समजतात. उपरांत जेवण घालतात. मेल्ल्या मनशाचें वर्सश्राध्द करतात. कांय वेळां नागपंचमीक वा दसऱ्याक श्राध्द करतात.

हे लोक महादेव, ताचो त्रिशूळ, भैरोबाचें मुखें वा चांदीचो टाक, देवी आनी खंडोबा हांकां पुजतात. तांच्या घरांत भैरोबा, तुळजापुरची भवानी, चतुःशृंगी हांगाची देवी, गोरखनाथ, खंडोबा, मच्छिंद्रनाथ आदींच्यो मूर्ती आसतात.

अस्तंत खानदेशांतले रावळ सुमार आठशें वर्सां आदीं चितोड आनी अबू हांगाच्यान खानदेशांत आयले. घरांतल्या कर्त्या दादल्याक रावळ ही उपाधी आसा अशें मानतात. तांच्यांत ल्हान चल्या भुरग्याक कुंवर म्हणपाची चाल आसा, देखून राजपूत घराण्याकडे तांचो संबंद आसूं येता. तांच्यांत विधवेक परत लग्न करूंक मेळना. तेचप्रमाण तांचीं गोत्रां राजपूत लोकांवरी आसात. हे लोक चडशे शेती करतात. कांय लोकांक व्हड व्हड जमनी इनामां मेळिल्ल्यो आसात. तांचे वट्ट शाण्णव पोटभेद आसात अशें सांगप जाता. पूण ह्या भागांत चव्हाण, चित, धवल, डोरिक, जाधव, कुंभे, परमार, सोळंकी आदी कांय पोटभेद मेळटात. हे लोक महादेव, गणपती, विठोबा, कृष्ण, देवी, खंडोबा आनी त्रिशूळ हांची पुजा करतात. दक्षिण वा गुजराती ब्राह्मण ताचे पुरोयत आसतात. गोसावी हे तांचे धर्मीक गुरू. चित आनी डोरिक रावळ चल्याच्यो मुजी करतात.

हांच्यांत मामेभयणीकडे लग्न जावंक मेळटा. पूण आतेभयण आनी मावसभयणीकडेन लग्नां जावंक मेळना. लग्नाच्या कांय दीस आदी न्हवरो-व्हंकलेचो साकरपुडो करून न्हवऱ्या वटेनचे लोक व्हंकले हातांत साकरेचो पुडो दितात. लग्नावेळार न्हवरो - व्हंकले मदलो अंतरपाट कुशीन काडटकच दोगांय एकामेकांचे दोनय हात हातांत धरतात. उपरांत तीं दोगांय एकामेकांक पिठाच्या लाडवाचे पांच घांस दितात. हेर लग्नविधी महाराष्ट्रांतल्या हेर रावळ लोकांच्या लग्नविधीवरी आसता. चित आनी डोरिक रावळ कपलाचेर बाशींग बांदिनात.

हे लोक मड्याक लासतात वा पुरतात. ताचे आदीं वडाच्या वा पिंपळाच्या पानान मेल्ल्या मनशाच्या तोंडांत थोडें उदक घालतात. इकराव्या दिसा मनीस ज्या जाग्यार मरता थंय एक ल्हानसो फोंड मारून तातूंत एक जितें नुस्तें पुरतात. उपरांत त्या फोंडकुलार थोडे तांदूळ वाटकुळे पातळावन ताचेर इकरा दिवे आनी इकरा भाकऱ्यो दवरतात आनी तांची पुजा करतात. हे लोक मेल्ल्या मनशाचें श्राध्द वाडटात आनी म्हाळय करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रावळ राजवंश :** चितोड हांगा राज्य केल्लो एक राजवंश. इ. स. १२ व्या शतमानासावन ह्या वंशाच्या इतिहासाक सुरवात जाली. ह्या शतमानांत गुहिलोत वंशांतलो राजा रणसिंह (कर्णसिंह) चितोड हांगा राज्य करतालो. ताका महणसिंह, क्षेमसिंह, माहप आनी राहप अशे चार पूत आशिल्ले. रणसिंहा उपरांत क्षेमसिंह चितोडचे गादयेर

आयलो. माहप हाका शिसोदा गांवची जहांगिरी मेळ्ळी. थंय ताणें स्वतंत्र राज्य स्थापन केलें, पूण तो चितोडचो सामंत म्हणुनूच राज्य करतालो. अशेतरेन गुहिलोत वंशाच्यो दोन शारवा जाल्यो. क्षेमसिंहाच्या वंशाक रावळ हें नांव मेळ्ळें आनी माहपाचो वंश राणा ह्या नांवान वळखुपांत येवंक लागलो. फुडें ह्या राणा वंशाक शिसोदिया ह्या नांवान नामना मेळ्ळी.

क्षेमसिंहासावन चितोडची रावळ शारवा सुरू जाता. ताका सामंतसिंह आनी कुमारसिंह अशे दोन पूत आशिल्ले. क्षेमसिंहा उपरांत सामंतसिंह राज्यार आयलो. ताणें इ. स. ११७४ च्या सुमाराक गुजरातचो सोळंकी राजा अजयपाल हाचेर घुरी घालून ताका हारयलो. फुडें ताणें आपल्या सरदाराच्यो जहांगिरी जप्त केल्ल्यान तांचे मदीं वितुश्ट आयलें. अशे परिस्थितींत नाडोलचो चौहान राजा कीर्तिपाल हाणें मेवाडाचेर घुरी घालून चितोडगड घेतलो. तेन्ना सामंतसिंह बागड (डुंगरपूर - बांसवाडा) देशांत गेलो आनी थंय ताणें आपल्या राज्याची स्थापना केली. मेवाडाचेर कांय वर्सां चौहानांनी राज्य केलें. पूण सामंतसिंहाचो धाकटो भाव कुमारसिंह हाणें रोखडेंच गुजरातचो राजा भीमदेव सोळंकी आनी शिसोदियाचो राणा भुवनपाल हांच्या आदारान मेवाडचें राज्य परत घेतलें.

कुमारसिंहा उपरांत ताचो पूत मंथनसिंह आनी ताचो पूत पद्मसिंह हांणी राज्य चलयलें. ताचेउपरांत इ.स. १२१३ त पद्मसिंहाचो पूत जैत्रसिंह राजा जालो. तो हुशार आनी कर्तबगार आशिल्लो. दिल्लीचो सुलतान शमसुद्दीन इल्तमश हाणें मेवाडाचेर घुरी घालून नागदा घेतिल्ल्यान जैत्रसिंहान चितोडगड हांगा राजधानी स्थापन केली. उपरांतच्या काळांत मात जैत्रसिंहान ताचेर जैत जोडलें. सिंधचो सुलतान जलालुद्दीन रवार्जमी हाचो सरदार रववासरवां हाणें अणहिलवाडचेर घुरी घालून मेवाडचेर हल्लो करपाची तयारी केली. अशा वेळार जैत्रसिंहान ताचेर आपलें सैन्य धाडून ताका हारयलो. हाचेभायर ताणें मारवाड, गुजरात, माळवा, जांगलदेश आनी नाडोल हांगाच्या राजांचेरय जैत मेळयलें. हाचेउपरांत दिल्लीचो सुलतान नासिरुद्दीन हाणें चितोडचेर घुरी घालून ७ - ८ म्हयने ताका वेढायल्लो. पूण ताका हातूंत जैत मेळळें ना. जैत्रसिंहान इ. स. १२५२ मेरेन राज्य केलें.

तेउपरांत ताचो पूत तेजसिंह चितोडच्या राज्यार आयलो. तोय जैत्रसिंहावरी पराक्रमी आशिल्लो. गुजरातचो राजा बीसलदेव वाघेला हाणें मेवाडाचेर घुरी घाली तेन्ना तेजसिंहान ताका हारयलो. तेजसिंहान परमभट्टारक, महाराजाधिराज आनी परमेश्वर ह्यो पदव्यो धारण केल्ल्यो. तेउपरांत ताचो पूत समरसिंह गादयेर आयलो. हाणें पराक्रमी आनी धर्मात्मा म्हूण नांव जोडलें. दिल्लीचो सुलतान बल्बन हाणें गुजराताचेर घुरी घाली तेन्ना व्हड पराक्रमान ताणें गुजराताची राखण केली. तो शिवोपासक आशिल्लो तरी ताची आवय जैन धर्माक मानताली. ताका लागून तो जैन पंडिताक मानतालो. ताणें जैन मठांक आनी देवळांक देणग्यो दिल्ल्यो. तेचपरी राज्यांत ताणें मोनजातीक मारपाचेर बंदी हाडिल्ली. ताणें इ. स. १३०१ मेरेन राज्य केलें.

तेउपरांत ताचो पूत रत्नसिंह (पयलो) हो राज्यार आयलो. ताचो दुसरो पूत कुंभकर्ण नेपाळांत गेलो आनी थंयच ताणें राज्य स्थापन केलें. हाकाच नेपाळच्या राजवंशाचो मूळपुरूश मानतात.

समरसिंहा उपरांत ताचो पूत रत्नसिंहच चितोडचे गादयेर आयलो. पूण ताका चड वर्सां राज्य करूंक मेळ्ळें ना. इ. स. १३०३ वर्सा अल्लाउद्दीन रिवलजी हाणें मेवाडाचेर घुरी घाली. थंयचो बरोचसो वाठार ताणें उध्वस्त केलो आनी चितोडगडाक रेवाडो घालो. तेन्ना रत्नसिंहान सुमार धा म्हयने गडाक झूज दिलें. पूण गडावयली अन्नसामुग्री सोंपत आयिल्ली, तेचपरी भायल्यान कोणाकडल्यानय तांकां आदार मेळ्ळो ना. तेन्ना रत्नसिंहाची बायल राणी पद्मिनी हिणें जायत्या राजघराण्यांतल्या बायलांवांगडा स्वताक जिवेंशी लासून घेतलें. तेन्ना रावळ रत्नसिंहान केसरी वस्त्रां घालून हजारांनी सैनिकांक घेवन दुस्मानांक नेटान तोंड दिलें. ह्या भिरांकूळ झुजांत रत्नसिंह आनी ताच्या सैनिकांक वीर मरण आयलें. निमाणें अलाउद्दीन रिवलजीन चितोड गडाचेर जैत जोडलें आनी थंय आपलो चलो रिवजररवां हाका मेवाडचो सुभेदार नेमलो.

अशे तरेन मेवाडच्या रावळ वंशाचो अंत जालो. इ. स. च्या १० व्या शतमानांत दिल्लीच्या सुलतानाचे सत्तेक नेट आयिल्लो. तांणी मेवाडाचेर जायत्यो घुरयो घाल्यो. पूण रावळ राजांनी ताका हारोवन स्वातंत्र्य तिगयलें. तेचपरी लागसल्ल्या हिंदू राज्यांचें स्वातंत्र्यय अबादीत दवरलें.

- कों. वि. सं. मं.

**रावी न्हंय :** भारतांतल्या पंजाब राज्यांतल्या मुरवेल पांच न्हंयांतली एक म्हत्वाची न्हंय. तिची लांबाय ७२५ किमी. जलवाहनक्षेत्र ५९५७ चौ. किमी. आसा. पुर्विल्ल्या ग्रंथांत हे न्हंयेक ऐरावती वा इरावती तशेंच पुरुष्णी, हैमावती, हिड्राओटस (ग्रीक) अशीं नांवां मेळटात. इरा नांवाच्या तळयांतल्यान तिचो उगम जाल्ल्याचो उल्लेरव कालिका पुराणांत मेळटा. ऋग्वेदांत परुपणी ह्या नांवान तिचो जायते फावटी उल्लेरव आयिल्लो आसून 'दाशराज्ञ' झूज हेच न्हंयेचे देगेर जाल्ल्याचें म्हळां.

हिमाचल प्रदेश राज्यांतल्या कांग्रा जिल्ह्याच्या ईशान्य वाठारांत धवलधार पर्वताच्या हिमाच्छादित बारा बंगहाल श्रेणींत ही न्हंय उगम पावता. हिमाचल प्रदेशांत उत्तरेक पीर पंजाल आनी दक्षिणेक धवलधार हांचेमदीं रावी न्हंयेचें देगण आसून थंय ती सादारण अस्तंत वाहिनी आसा. फुडें चंबा जिल्ह्यांत धवलधार श्रेणी काडून ती नैर्ऋत्यवाहिनी जाता. तेउपरांत ती हिमाचल प्रदेश आनी जम्मू -

काश्मीर तशेंच जम्मू - काश्मीर आनी पंजाब ह्या राज्यांच्या शिमेवयल्यान पंजाबच्या उत्तर वाठारांतल्या गुरूदासपूर जिल्ह्यांत वता. थंयच्यान ती पंजाब (भारत) आनी पाकिस्तान शिमेवयल्यान कांय अंतर व्हांवत वचून पाकिस्तानांत प्रवेश करता. थंय लाहोराकडल्यान ती व्हांवत वचून अहमदपूरचे दक्षिणेक चिनाब न्हंयेक वचून मेळटा. मंगमरी जिल्ह्यांत वायव्ये कडल्यान तिका दाग ही उपन्हंय मेळटा. रावी न्हंय शाहपूरसावन जंय मैदानी वाठारांत येता थंयमेरेन तिचे दोनय वटेन ऊंच कटे आसात. फकत मुलतान जिल्ह्यांत कुचलंबा ते सराई सिंधू हांगा ती सरळ आसा. हांगाच हे न्हंयेपसून खारीज काडिल्लें आसा. पाकिस्तानांत हे न्हंयेचेर लोअर बारी दुआब हें एक मुखेल खारीज काडिल्लें आसा (१९१७). भारतांत माधोपूर हांगा रावीचेर अपर बारी दुआब हें एक व्हड खारीज काडलां (१७७८-७९). भारत-पाकिस्तान ह्या दोनूय देशांक उदकाशिंपणावळीचे नदरेन हें खारीज खुबूच उपेगी पडटा. हिमाचल प्रदेश राज्यांत रावी न्हंयेचेर काक्री, हिब्रा, बाला, कुराण, चारोर आनी खुजारा हे उदका वीज निर्मणी प्रकल्प आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**राशी :** क्रांतिवृत्ताचे जे समसमान बारा भाग कल्पिले आसात तांकां राशी अशें म्हण्टात. क्रांतिवृत्ताचे वट्ट ३६० अंश आशिल्ल्यान दर एके राशीचे ३०-३० अंश जातात. हे विभाग गणिताचे सोयीखातीर आसात. म्हणून तांकां विभागात्मक राशी अशें म्हण्टात. विभागात्मक राशी म्हळयार क्रांतिवृत्त मेजपाची मेजपट्टीच आसा. सुर्यमार्गावयले हे ३० अंशावयले टप्पे लक्षांत दवरपाखातीर त्या मार्गावयल्यो कांय ठळक तारखो प्रत्येक विभागांत आकृतिबद्द करून, तांच्यो बारा आकृत्यो कल्पिल्यात. तांकां तारात्मक राशी अशें म्हण्टात. ह्या तारात्मक राशींचीं नांवां अशीं: १) मेष २) वृषभ ३) मिथुन ४) कर्क ५) सिंह ६) कन्या ७) तूळ ८) वृश्चिक ९) धनु १०) मकर ११) कुंभ आनी १२) मीन.

तारात्मक राशींची गणना अश्विन्यादी नक्षत्रांक धरून केल्ली आसा. प्रत्येक नक्षत्राचे चार चरण म्हळयार चार भाग केल्ले आसात. ताकालागून णव चरणांची म्हळयार सव्वादोन नक्षत्रांची मेळून एक रास तयार जाता. हें कोश्टक फुडें दिल्ल्या प्रमाण आसा :-

१) अश्विनी, भरणी आनी कृत्तिकांचो पयलो चरण - मेष

२) कृत्तिकांचे तीन चरण, रोहिणी आनी मृगाचे पयले दोन चरण - वृषभ.

३) मृगाचे फुडले दोन चरण, आर्द्रा आनी पुनर्वसूचे पयले तीन चरण -मिथुन.

४) पुनर्वसूचो चवथो चरण, पुष्य आनी आश्लेषा - कर्क.

५) मघा, पुर्वा आनी उत्तरेचो पयलो चरण - सिंह.

६) उत्तरेचे फुडले तीन चरण, हस्त आनी चित्रेचे पयले दोन चरण - कन्या.

७) चित्रेचे फुडले दोन चरण, स्वाती आनी विशाखाचे पयले तीन चरण - तूळ.

८) विशाखाचो चवथो चरण, अनुराधा आनी ज्येष्ठा - वृश्चिक.

९) मूळ, पूर्वाषाढा आनी उत्तराषाढाचो पयलो चरण - धनू.

१०) उत्तराषाढाचे फुडले तीन चरण, श्रवण आनी धनिष्ठेचे पयले दोन चरण - मकर.

११) धनिष्ठेचे फुडले दोन चरण, शततारका आनी पुर्वा भाद्रपदेचे पयले तीन चरण - कुंभ.

१२) पुर्वा भाद्रपदेचो चवथो चरण, उत्तरा भाद्रपदा आनी रेवती - मीन.



| भारतीय नांव | पाश्चात्य नांव | आकृती | चिन्ह | सूर्य-प्रवेश निरयन (अयनांश २३) | सूर्य-प्रवेश सायन |
|---|---|---|---|---|---|
| मेष | एरिज | | ♈ | १३ एप्रिल | २० मार्च |
| वृषभ | टॉरस | | ♉ | १४ मे | २० एप्रिल |
| मिथुन | जेमिनी | | ♊ | १५ जून | २१ मे |
| कर्क | कॅन्सर | | ♋ | १६ जुलै | २१ जून |
| सिंह | लिओ | | ♌ | १६ ऑगस्ट | २२ जुलै |
| कन्या | व्हर्गो | | ♍ | १६ सप्टेंबर | २३ ऑगस्ट |
| तूळ | लिब्रा | | ♎ | १६ ऑक्टोबर | २३ सप्टेंबर |
| वृश्चिक | स्कॉर्पियस | | ♏ | १५ नोव्हेंबर | २३ ऑक्टोबर |
| धनू | सॅजिटॅरियस | | ♐ | १५ डिसेंबर | २२ नोव्हेंबर |
| मकर | कॅप्रिकॉर्नस | | ♑ | १४ जानेवारी | २१ डिसेंबर |
| कुंभ | ॲक्वेरियस | | ♒ | १२ फेब्रुवारी | २० जानेवारी |
| मीन | पिसीज | | ♓ | १४ मार्च | १८ फेब्रुवारी |

राशींचीं नांवां, आकृत्यो, चिन्हां आनी सूर्य-प्रवेशाच्यो तारखो.

फलज्योतिशांत राशी, नक्षत्रां आनी गीरे हांच्या संयोगान फळादेश सांगिल्लो आसता. राशीचें फळ तिच्या स्वामीवयल्यानूय विचारांत घेतात. रास आनी तिचो स्वामी हांचो क्रम असो आसा : १) मेष - मंगळ २) वृषभ - शुक्र ३) मिथुन - बुध ४) कर्क - चंद्र ५) सिंह - रवी ६) कन्या - बुध ७) तूळ - शुक्र ८) वृश्चिक - मंगळ ९) धनु - गुरू १०) मकर - शनी ११) कुंभ - शनी आनी १२) मीन - गुरू.

चर, स्थिर आनी द्विस्वभाव अशे राशींचे स्वभाव कल्पिल्ले आसात. मेष, कर्क, तूळ, मकर - चर ह्यो राशी जल्म लग्नकुंडलींतल्या ज्या जाग्यार येतात, त्या जाग्यांचें आनी राशींचें मेळून फळ विचारांत घेत गीरे

आपले राशींत, इश्टाचे राशींत आनी वयले राशींत बरें फळ दितात आनी सकयले राशींत आनी दुस्मान राशींक वायट फळ दितात.

पंचांगांत चंद्र आनी सूर्य हांच्यो राशी दिल्ल्यो आसात. पंचांगांतल्या निमण्या खांब्यांत ज्या राशींचीं नांवां दिल्लीं आसतात तीं चंद्राचें राशीभ्रमण सांगपी आसतात. ह्या खेरीज पंचांगांत 'मेषेऽर्कः', 'वृषभेऽर्कः' अशें एखाद्रे तिथीच्या कोश्टकाभायर बरयल्लें आसता. त्यो सौर राशी आसतात. 'मेषेऽर्कः' म्हळयार सूर्यान मेष राशींत प्रवेश केलो असो ताचो अर्थ. एका वर्साक सूर्य बारा राशींतल्यान भोंवडी करता.

भारतीय वेदांगांतलें ज्योतिश २७ नक्षत्रांचेर आदारील्लें आसा. महाभारतांत लेगीत राशींचो उल्लेख येनासतना नक्षत्रांचोच उल्लेख येता. बौध्द त्रिपिटकांतूय राशींचो उल्लेख नासून नक्षत्रांचोच उल्लेख मेळटा. बौध्दांचे चडशे ग्रंथ बुध्दाच्या निर्वाणाउपरांत (४७५) आनी अशोकाच्या काळामेरेन तयार जाले. तेन्ना भारतीय ज्योतिशांत राशींचो उल्लेख अशोका उपरांत जालो जांवये. राशींची कल्पना भारतीय ज्योतिशांनी ग्रीक ज्योतिश्यांकडल्यान घेतल्या अशें विद्वानांचें मत आसा. इ.स. प. ६ व्या शेंकड्यांत पर्शियन सम्राट दरायस हाणें पंजाबाचेर घुरी घाली आनी त्या उपरांतच्या काळांत ग्रीक ज्योतिशी आनी भारतीय जोतिशी हांचो शेंकड्यांनी वर्सां संपर्क आयलो. ग्रीकांचें ज्योर्तिगणित राशींचेर आदारील्लें आशिल्ल्यान भारतीय ज्योतिश्यांनी तांची राशीकल्पना आपणायली आनी आपल्या ज्योतिश ग्रंथांत आस्पावन घेवन राशीवयल्यान फळादेश सांगपाक सुरवात केली असो समज आसा. इ.स.प. ४२५ वर्सा हो भारतांतलो राशी प्रचारांत येवपाचो काळ अशें शं. बा. दीक्षित मानतात; तर इ.स.प. दोनशें वर्सांच्या सुमाराक राशी प्रचारांत आयल्यो अशें श्री.चि.वि.वैद्य मानतात. ह्या काळाउपरांत सगळे ज्योर्तिग्रंथ राशींचेर आदारून बरयल्ले आसात.

राशींचे सायन - निरयण अशे आनीक दोन भेद आसात. वयर अश्विन्यादी गणनेक धरून ज्यो राशी दिल्ल्यो आसात त्यो निरयणराशी आसात. निरयण हाचो अर्थ गती नाशिल्लो असो जाता. निरयण पद्दतींत मेष राशीची सुरवात ही क्रांतिवृत्तावयल्या एकाच बिंदू कडल्यान जाता.

वसंतसंपातबिंदू सावन वा स्थूल मानान सांप्रतच्या उत्तर भाद्रपदासवन जें ३० -३० अंशांचें अंतर, ताकाय राशी अशेंच नांव आसा. वसंतसंपातबिंदू ल्हव ल्हव आपलो जागो सोडून दर एका हजार वर्सांनी सुमार १३ अंश अस्तंतेकडे सरकत आसता. त्याभायर ह्या ३० -३० अंशांच्यो राशी अस्तंतेकडे वतात. म्हणून तांकां सायन (गतियुक्त) राशी म्हण्टात.

पंचांगांतल्यो सायन राशी दवरी नासतना निरयणच राशी वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**राश्ट्र :** वंश, समाज, धर्म, संस्कृती, भास, प्रदेश अशा घटक तत्त्वांचेर आदारिल्ली एक राजकीय संकल्पना. 'नेशन' हो शब्द मूळ नेशिओ (Nation) ह्या लॅटीन शब्दावयल्यान आयला. नेशिओ म्हळयार जल्म वा वंश आनी ह्या अर्थाक धरून जल्मान वा वंशान एक आशिल्लो लोकसमाज अशी राश्ट्राची कल्पना निर्माण जाता. कुटुंब, पंगड वा टोळी, राज्य, राश्ट्र अशो राश्ट्रनिर्मितीच्या क्रमाचो संभव दिसता. राश्ट्र हे संकल्पनेक जल्म वा वंशाचो संदर्भ लावप जाला आसलो तरी राश्ट्राची संकल्पना सांगपाक तो अपुरो पडटा. ताचे जोडयेक भुगोलीक सलगता, धर्मीक एकचार, भास अशा पुरक घटकांची गरज लागता. सगळयाचे सगळे घटक एकठांय आयल्या उपरांतच राश्ट्र घडटा अशेंय ना. वेगवेगळे धर्म, वेगवेगळे वंश, वेगवेगळयो भासो आशिल्लींय राश्ट्रां आसात. इतलेंच न्हय तर भुगोलीक सलगता नासूनय राश्ट्र ही संकल्पना लागू जाल्ल्याच्यो देखी आसात. देखीक - इझ्रायल राश्ट्राक भुगोलीक वाठार मेळचे पयलींच ताका राश्ट्र ही संज्ञा प्राप्त जाल्ली. एकावेळावयलें उदेंत पाकिस्तान आनी अस्तंत पाकिस्तान हें इस्लामी धर्माचेर आदारिल्लें एक राश्ट्र आशिल्लें. पूण राजकीय मतभेदाक लागून पाकिस्तान आनी बांगलादेश अशीं दोन राश्ट्रां निर्माण जालीं. युरोपाच्या इतिहासांतय एका वेळार एकठांय आशिल्ली राज्यसत्ता आनी धर्मसत्ता धर्म सुदारणेचे चळवळींत वेगळयो जाल्यो. एक वंश वा एक रगत हेंय तत्त्व राश्ट्र निर्मिती आनी राश्ट्र भावनेखातीर पुरें ना. कारण खंयच्याय राश्ट्रांत खंयचोच एक वंश असो मेळना. जी गजाल हेर घटकांची तीच गजाल भाशेची. दर एका राश्ट्रांत भौभाशीक लोक पंगड रावतात तरी तें राश्ट्र म्हणून उबें आसता. हाचेवयल्यान अशें दिसता की, राश्ट्र ही संकल्पना निर्माण जातली तर समाजांत एक राश्ट्र म्हणून जगपाची आंतरीक ओड आसप आनी हे ओडीखातीर व्हडांतल्या व्हड त्यागाची तयारी दवरप, तशेंच तन मन धनान राश्ट्राचे उबारणेखातीर आपलें योगदान दिवप आनी राश्ट्राकडेन निगडीत अशी एकचाराची श्रध्दा आसप ही भावना सगळयांत म्हत्वाची दिसता. अशें जरी आसलें तरी राश्ट्र हे संकल्पनेचो प्रत्यक्षांतलो वेव्हार सुरळीत चलपाखातीर भुगोलीक सलगता गरजेची दिसता. तशेंच राश्ट्र ही भावना मनांत प्रभावीपणान रुजपाखातीर आनी राश्ट्राचो अभिमान निर्माण जावपाखातीर वंश, धर्म, संस्कृती, भास हे घटक व्हड योगदान करतात.

जॉन स्ट्युअर्ट मील हाणें आपल्या राज्यशास्त्राच्या पुस्तकांत (१८६१) केल्ले व्याख्येप्रमाण - १) समाजांत एकचाराची भावना, २)लोकांचें एकामेकांक सहकार्य, ३) एका शासनासकयल रावपाची लोकांची इत्सा ४) लोकशाय पद्धतीची प्रशासन वेवस्था. हे चार घटक म्हत्वाचे मानल्यात. आर्नेस्टा रेन्हो ह्या फ्रेंच विचारवंताच्या मताप्रमाण समान इतिहासीक अणभव आनी वर्तमानकाळांतली आनी भूतकाळांतली समान अणभवाची जाणीव ह्यो भावना राश्ट्र संकल्पनेक

लागींच्यो आसात. 'ग्रामर ऑफ पॉलिटीक्स' (१९२५) ह्या आपल्या ग्रंथांत राश्ट्रीयत्व आनी राश्ट्र ही कल्पना मुळांत समाजाची मानसिक प्रवृती आसून ती समाजाच्या इतिहासीक घडणुकांच्या आदारार निर्माण जाल्ली आसता, अशें मत ताणें मांडलें. मॅकाव्हर हाणें आपल्या 'द मॉडर्न स्टेट' (१९२८) ह्या ग्रंथांत राश्ट्राचो संबंद समाजीक परिस्थितीकडेन लावन तिचेवरवीं घडपी एकचाराची भावना आनी शक्त हांचेर भर दिला.

राश्ट्र ही संकल्पना सुरवेक संस्कृतीची परिणीती आसा आनी उपरांत तातुंतल्यान राज्य प्रशासनाची वेवस्था निर्माण जाली असो विचार जर्मन राश्ट्रवादी जोहान गॉड फ्रीड व्हेन हर्डर मांडटा.

राश्ट्र ही संकल्पना लोकांमदीं एकचाराची भावना, त्यागाची सिध्दता आनी भावनीक श्रध्दा एकेवटेन निर्माण करता आसली तरी तेवरवीं अमूक अशा लोक समुहाक ताचो फायदो जाता आसलो तरी केन्ना केन्ना कुड्या राश्ट्रवादांतल्यान धर्मवाद, वंशवाद, वयर सरता आनी तातुंतल्यान दोन राश्ट्रांमदीं तंटे निर्माण जातात. अशा वंश भेदांतल्यानच दोन जागतिक झुजां जालीं आनी संवसाराची बरीच हानी जाली. आजय विश्वात्मक अशें संवसारीक एक राश्ट्र घडोवपाचो विचार मुखार आयलो तरी राश्ट्रां राश्ट्रांमदीं झुजां चालूच आसात. ह्या झुजांफाटलीं कारणां राजकीय दिसता आसलीं तरी तांकां वंशभेद, धर्मभेद, संस्कृतीभेद हांचें अधिश्ठान मेळिल्लें दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**राश्ट्रगीत :** देशभक्तीचेर आदारिल्लें आनी मायभुयेविशींचो आदर, अभिमान व्यक्त करपी एक राश्ट्रीय गीत. राश्ट्रांत एकचाराची भावना वाडीक लागची आनी राश्ट्राविशींचो अभिमान सदांच जागृत उरचो ह्या उद्देशान दर एक राश्ट्र आपलो बावटो (ध्वज), आपलें राश्ट्रीय प्रतीक वा राज्यमुद्रा, राश्ट्रीय सुकणें, राश्ट्रीय जनावर आनी राश्ट्रगीत ह्यो गजाली थारायता. हीं राश्ट्रीय प्रतीकां त्या त्या राश्ट्राचो मानदंड आसून दर एक नागरीक तांचेविशीं आदर आनी अभिमान बाळगीता.

राश्ट्र - राज्याची कल्पना थीर जातकच राश्ट्रगिताची कल्पना अस्तित्त्वांत आयली. इ.स. १८२५ त ग्रेट ब्रिटनान सुरू केल्लें राश्ट्रगीत हें आद्य समजतात. अठराव्या शतमानाच्या मदेगाकसावन ब्रिटनान राजदरबारांत दर एका समारंभाचे सुरवेक राश्ट्रगीत म्हणपाची चाल सुरू केली आनी उपरांत एकोणिसाव्या शतमानाच्या निमाणें आनी विसाव्या शतमानाचे सुरवेक जायत्या युरोपीय राश्ट्रांनी ही प्रथा आपणायली.

राश्ट्रगीतांत राश्ट्रभक्ती, राश्ट्राभिमान आनी राश्ट्राची विजयगाथा गुंथिल्ली आसा.

'जनगणमन' आनी 'वंदे मातरम्' हीं भारताचीं दोन राश्ट्रगीतां आसात. हातुंतलें 'जनगणमन' हें राश्ट्रगीत एक व्हड बंगाली साहित्यिक रवींद्रनाथ टागोर हाणें रचलां. २७ डिसेंबर १९११ ह्या दिसा इंडियन नॅशनल काँग्रेसचे राश्ट्रीय सभेचे माचयेर तें पयले खेप गायिल्लें. २४ जानेवारी १९५० ह्या दिसा भारतीय घटना परिशदेन 'जनगणमन' ह्या गीतांतल्या फकत पयल्या कडव्याक राश्ट्रगीताची मान्यता दिली.

'वंदे मातरम्' हें संस्कृतप्रचूर अशें बंगाली भाशेंतलें गीत बंगाली साहित्यिक बंकिमचंद्र चटर्जी हाणें बरयल्लें (सुमार १८७०). १८८२ त तें आनंद मठ हे कादंबरींत उजवाडाक आयलें. इंडियन नॅशनल काँग्रेसच्या इ. स. १८९५ चे सभेवेळार तें पयले खेप गायिल्लें. बंगालचे फाळणीक विरोध करपाचे चळवळीवेळार ह्या गीताचेर ब्रिटीश सरकारान बंदी हाडिल्ली. तेन्ना पुराय भारतान ताचो निशेध केलो.

जनगणमन आनी वंदे मातरम् ह्या गीतांखातीर वाद चालू आसतनाच पंडित नेहरून आकाशवाणी केंद्रार जनगणमन हें गीत सादर करूंक लायलें. नेहरूचे सांगणेन आकाशवाणी केंद्रान ह्या गीताची चाल बसोवन तें १ मीनटा भितर म्हणून बि.बि.सी कडेन दिलें. फुडें हर्बट म्युरील हाणें ताका सद्याची चाल दिली.

हीं राश्ट्रगीतां अशीं आसात -

**वन्दे मातरम्**

सुजलां सुफलां मलयजशीतलां सस्यशामलां मातरम्
शुभ्रज्योत्स्ना पुलकितयामिनीम्
फुल्लकुसुमितद्रुमदलशोभिनीम्
सुहासिनी सुमधुरभाषिणीं सुखदां वरदां मातरम् ।।
कोटि कोटि कष्ठ - कलकल निनाद - कराले
कोटि कोटि भुजै धृतै - खर - करवाले ।
के बले मा तुमि अबले बहुबल - धारिणीं
नमामि तारिणीं रिपुदलवारिणीं मातरम् ।।
तुमि विद्या तुमि धर्म तुमि हृदि तुमि मर्म
त्वं हि प्राणा : शरीरे बाहु ते तुमि मा शक्ति
हृदये तुमि मा भक्ति तो मारइ प्रतिमा गडि मन्दिरे मन्दिरे।
त्वं हि दुर्गा दशप्रहरणधारिणी
कमला कमलदलविहारिणी
वाणी विद्यादायिनी नमामि त्वां
नमामि कमलां अमलां अतुलां
सुजलां सुफलां, मातरम् । वन्दे मातरम्
श्यामलां सरलां, सुस्मितां भूषितां
धरणीं भरणीं मातरम् । वन्दे मातरम्

- बंकिमचंद्र चटर्जी

**जनगणमन**

जनगणमन अधिनायक जय हे भारत भाग्य विधाता
पंजाब सिंधु गुजरात मराठा द्राविड उत्कल वंगा
विंध्य हिमाचल यमुना गंगा उच्छल जलधितरंगा
तव शुभ नामे जागे । तव शुभ आशिश मागे
गाहे तव जय गाथा
जनगण मंगलदायक जय हे भारत भाग्यविधाता
जय हे, जय हे, जय हे, जय, जय, जय ,जय हे ॥
अहरह तव आव्हान प्रचारित सुनि तव उदार वाणीं
हिंदू बौध्द सिख जैन पारसिक मुसलमान ख्रिस्तानी
पूरब, पश्चिम आसे । तव सिहासन पासे
प्रेमहार हय गाथा ॥
जनगण ऐक्यविधायक जय हे भारत - भाग्यविधाता ।
जय हे, जय हे, जय हे जय, जय, जय, जय हे ॥
पतन अभ्युदयबंधुर पंथा युग - युग धावित यात्रि,
तुम चिर सारथि ! तव रथचक्रे मुखरित पथ दिन रात्री
दारूण विप्लव माजे । तव शंखध्वनि बाजे ।
संकट - दुःखत्राता ।
जनगण - पथ परिचायक जय हे भारत भाग्यविधाता
जय हे, जय हे, जय हे जय, जय, जय, जय हे ॥
घोरतिमिरघनर्निविड निशीचे पीडित मूर्श्चित देशे,
जागृत छिल तव अविचल, मंगल नत नयने अनिमेषे
दुःस्वप्ने आतंके।
रक्षा करिले अंके स्नेहमयी तुमि माता ।
जनगण - दुःख : त्रायक जय हे भाग्य विधाता ।
जय हे, जय हे, जय हे, जय, जय, जय, जय हे ॥
रात्र प्रभातिल उदिल रविच्छवि पूर्व उदयगिरी भाले
गाहे विहंगम पुण्य - समीरण नवजीवन - रस ढाले ।
तव करुणारूण रागे निद्रित भारत जागे ।
तव चरण नत माथा !
जय हे, जय हे, जय हे, जय, जय, जय, जय हे
भारत - भाग्यविधाता

- रवीन्द्रनाथ टागोर

- कों. वि. सं. मं.

**राष्ट्रध्वज** : एक राष्ट्रीय मानचिन्न. राष्ट्राविशींच्यो भावना उक्तावपी एक प्रतीक म्हळयार राष्ट्रध्वज. राष्ट्रीय आशाआकांक्षा आनी राष्ट्रीय आदर्श, हांची याद करून दिवपी ती एक प्रतिनिधीक खूण. परक्यांक राष्ट्राची वळख करून दिवपी एक राष्ट्रीय निशाणी.

राष्ट्राचे उज्ज्वल परंपरेची आनी तेजीश्ठ पराक्रमाची स्मृती राष्ट्रध्वजाक लागून लोकांमदीं रुजता. तेखातीर राष्ट्रध्वज हो दर एका राष्ट्राचो मानदंड आसता. राष्ट्रध्वजाविशीं नागरिकांच्या मनांत आदराची आनी पावित्र्याची भावना आसूंक जाय, ताचो मान राखपाची प्रवृत्ती आसपाक जाय असो संकेत दर एका देशांत पाळटात. आपल्या पंगडाचो, वंशाचो, राज्याचो ध्वज आसचो ही कल्पना खूब आदीं सावन अस्तित्वांत आसा. ध्वजावरवीं त्या त्या गटाची वळख करून घेवपाची प्रथाय तेन्ना सावन सुरू जाली.

युरोपांतल्या धर्मझुजाउपरांत राष्ट्रध्वजाचो वापर जावंक लागलो. तेराव्या शेंकड्यांत, डेन्मार्काचो राष्ट्रध्वज हो युरोपीय राष्ट्रांतलो पयलो राष्ट्रध्वज आशिल्ल्याचें मानतात. इटलींतल्या लोकसत्ताक राज्यांनी राष्ट्रध्वजाचो वापर सुरू करतकच हेर देशांनी ही प्रथा सुरू केली.

भारतीय राष्ट्रध्वजाचो इतिहास इ. स. १९०६ वर्सासावन सुरू जाता. राष्ट्रीय काँगेसची स्थापणूक इ. स. १८८५ वर्सा जाली. पूण इ.स. १९३१ वर्सामेरेन ते राजकीय संघटनेचो सर्वमान्य असो ध्वज नाशिल्लो. ताचेपयलीं म्हळयार इ.स. १९०६ - १९०७ च्या अदमासाक युरोपांत जे भारतीय क्रांतिकारक वावुरताले, तांकां आपल्या स्वतंत्र ध्वजाची गरज जाणवपाक लागली. तेन्ना श्रीमती भिकाजी रुस्तुम कामा हिणें ध्वज तयार केलो. १९०७ च्या ऑगस्टांत जर्मनींत भरिल्ल्या आंतरराष्ट्रीय समाजवादी परिशदेंत सरदारसिंग राणांवांगडा कामाबाईन वांटो घेतलो आनी ब्रिटीश प्रतिनिधींच्या विरोधाक जुमानी नासतना भारतीय स्वातंत्र्याविशीं प्रस्ताव मांडलो. तेन्नाच भारतीय स्वातंत्र्याचें प्रतीक म्हणून 'वंदे मातरम्' हो मंत्र आशिल्लो तिरंगी ध्वज हुबयलो.

राष्ट्रसभेंत ही कल्पना इ.स. १९३१ वर्सा रूजली आनी ताका निश्चित स्वरूप दिवप जालें. ताची लांबाय, रुंदाय ३:२ ह्या प्रमाणांत आसता. वयर गाड केसरी, मदीं धवो फुल्ल आनी सकयल गाड पांचवो ह्या कोरांचे तीन समान पटे आसून ताचेर मदीं म्हळयार धव्या पट्याचेर निळया रंगांत चरख्याचें चित्र रेखाटिल्लें. स्वातंत्र्याउपरांत स्वतंत्र भारतीय घटनेन जो राष्ट्रध्वज आपणायलो तातूंत चरख्याच्या बदला अशोकचिन्न घालें. २२ जुलय १९४७ दिसा भारतीय संविधानान राष्ट्रध्वजाचो स्वीकार केलो.

डॉ. सर्वपल्ली राधाकृष्णन हाणें राष्ट्रध्वजाचें वर्णन केलां तें अशें - तीन रंगांतलो केशरी रंग हो त्याग आनी धैर्य हांचें प्रतीक आसा. धवो फुल्ल रंग शांतीकाय आनी सत्य हांचो आदर्श दवरपाक प्रवृत्त करता आनी पाचवो रंग शौर्य आनी भावार्थ हांचें द्योतक आसून सैमाकडे आनी भूंयेकडे दाट नातें दाखयता. धव्या पट्यावयलें अशोकचिन्न हें गतिमानतेचो आनी विश्वशांतीचो आदेश दिता. बौध्द धर्माचें धर्मचक्र म्हणून ताचें म्हत्व मान्य करप जाता. ह्या चाकाक चोवीस आरे आसतात. राष्ट्रध्वज हो खादीच्याच कपड्याचो आसचो

असोय संकेत आसा. अशे पद्दतीन तयार केल्लो ध्वज हो राष्ट्रध्वजाच्या पदाक प्राप्त जाता.

राष्ट्रध्वजाचें रूप, ताचो वापर आनी ताचो मान हेविशीं भारतीय जनतेंत निश्चित अशो कल्पना मान्य जाल्यात. आनंद, उमेद, स्वागता वेळार वा दुख्खावेळार, राष्ट्रध्वज खंयचे स्थितींत आसचो हेविशीं थारावीक संकेत आसात. तेप्रमाण शिस्तीन ते पाळटात. विंगड विंगड समाजीक आनी राजकीय तशेंच शैक्षणिक संस्था, महानगरपालिका, क्रीडासंघटना हांगा राष्ट्रध्वजाचो मान राखून ताका मानवंदना दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**राष्ट्रमुद्रा :** (पळेयात राजमुद्रा).

**राष्ट्रसंघ :** (पळेयात संयुक्त राष्ट्रसंघटना).

**राष्ट्रसेवादल :** तरणाटे पिळगेक राष्ट्रनिश्ठा, लोकशाय, जात, धर्मविरयत समता, विज्ञानाभिमुखताय सारकिल्या जीवन मुल्यांची शिकवण दिवपाच्या उद्देशान कार्य करपी एक संघटना. अखिल भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेसच्या फुडारपणाखाला देशांत मुक्ततायेची चळवळ चालू आशिल्ली. हे चळवळीच्या कामाक शिस्त आनी वेवस्थीतपण हाडपाक आदार करप आनी ल्हान भुरग्याक जात, धर्म निरपेक्षतायेचे धडे दिवप हीं कामां करपाखातीर तरणाट्यांची संघटना चलोवपाची गरज काँग्रेसच्या कांय तरणाट्या फुडाऱ्यांक दिसपाक लागली. ह्या विचारांतल्यान ना.सु. हर्डीकार हाच्या फुडारपणाखाल १९२३ त हिंदुस्थानी सेवा दलाची स्थापणूक जाली. म्हयन्याचें झेंडावन शिस्तबध्दरीतीन घडोवन हाडपाचें काम हें सेवा दल करूंक लागलें. १९३८ च्या सत्याग्रहाच्या तेंपार ब्रिटीश सरकारान हें सेवादल बेकायदेशीर थारायलें. दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजा मदीं कांय सांप्रदायिक विचाराच्यो संघटना समाजीक विचारणांच्यो कार्यावळी करूंक लागल्यो. तांकां जाप म्हणून वि.म. हर्डीकार, शिरूभाऊ लिमये, ना.ग.गोरे आदींनी फुडाकार घेवन ४ जून १९४१ ह्या दिसा पुण्याक तरणाट्यांचें एक शिबीर घेवन जातिधर्मातीत राष्ट्रवाद वाडोवपाखातीर राष्ट्रसेवादलाची पुर्नघडणूक केली. एस्. एम्. जोशी हाका दलाचो मुखेली नेमलो. सांजवेळां चल्या-चलयांनी एकठांय जमप, चरखो ही निशाणी मदीं आशिल्ल्या तिरंगी राष्ट्रीय बावट्याक नमन करप, उपरांत कवायत, लेझीम, लाठी, सामुदायिक राष्ट्रीय गाणी, मैदानावयले खेळ, अभ्यासवर्ग आदी कार्यावळी करप. 'वंदेमातरम्' ह्या राष्ट्रगीतान बसका विसर्जीत जाताली. सेवा दलाचे फांटे अस्तंत महाराष्ट्रांत गांवागांवांनी सुरू जाले. फुडें 'छोडो भारत' आंदोलनाक ९ ऑगस्ट १९४२ ह्या दिसा सुरवात जाली. सेवा दलाचे बरेचशे वावुरपी भूंयगत चळवळींत देंवले. ताकालागून सरकारान सेवादलाचेर बारीक नदर दवरली. बऱ्याच वावुरप्यांचो छळ केलो. भूंयगत चळवळीन खेड्याखेड्यांनी सेवादलाच्या वावुरप्यांचो संपर्क वाडिल्ल्यान राष्ट्रसेवादलाचें काम महाराष्ट्रांत बरेच कडेन फाकारलें. फुडें सातारा हांगा सेवादल सैनिकांचो व्हड मेळ १९४७ त जालो. आझाद हिंद सेनेचो एक व्हड सेनानी कॅ. शाहनवाजखान हो त्या मेळाक मुखेल सोयरो म्हणून हाजीर आसलो. बारा हजार तरणाटे-तरणाट्यो ह्या मेळांत वांटेकार जाल्ल्यो.

राष्ट्रीय काँग्रेसच्या प्रोत्साहनान निर्माण जाल्ले सेवा दल संघटनेचो कारभार काँग्रेसीच्या पुराय कारभारा सकयल चलचो अशें काँग्रेस फुडाऱ्यांक दिसप सभावीक जालें. पूण सेवादल आनी काँग्रेस हांच्या अंतीम उद्दिश्टांतल्या आनी कार्य पद्दतींतल्या मुळाव्या फरकाक लागून सेवा दलाचो वावर स्वायत्तपणान चलचो अशें निमणें थारलें.

पंढरपूरचें विठ्ठलाचें देवूळ दलितांक उक्तें जावचें म्हणून सानेगुरूजीन महाराष्ट्रभर दौरो केलो आनी फुडाराक पंढरपूराक उपासय केलो. ते चळवळीक पूरक कार्यक्रम दिवपाच्या हेतान राष्ट्र सेवा दलाच्या कलापथकान वांटो घेतलो. वसंत बापट, पु. ल. देशपांडे, लीलाधर हेगडे, आवाबेन देशपांडे, सुधा वर्दे आदींनी तातूंत वांटो घेतलो.

स्वातंत्र्य मेळळयाउपरांत राष्ट्र निर्मणीचें व्हड कार्य मुखार आशिल्लें. तरणाट्यांची शक्त त्या कामाखातीर वापरची ह्या उद्देशान सेवा दलाचें कार्य सुरू जालें. बऱ्याच खेड्यावाठारांनी शिबिरां घडोवन हाडलीं. रस्ते बांदप, तळयांतलो चिखोल उसपप, शेताचे बांध सारके करप, भौशिक संडास निवळ करप, आदी कामां सेवा दलाचे वतीन जालीं. आचार्य विनोबा भावे हाणें भूदान आंदोलन सुरू केलें. राष्ट्र सेवा दलाचें भूदानपथक एक वर्सभर हें काम करतालें.

शाखाकार्य, कलापथक, भूदानपथक आदी विंगड विंगड कार्यावळींतल्यान सेवा दलाचें काम अखंडपणान फुडें चालू उरलें. फुडें संवसारीक मळार काम करपी समाजवादी तरणाटे संघटनाकडेन तिचे संबंद आयले. इंटरनॅशनल युनियन ऑफ सोशॅलिस्ट यूथ आनी इंटरनॅशनल फाल्कन मूव्हमेंट (चल्या चलयांच्या मनाचेर शांततायेचो संस्कार घडोवपाखातीर अस्तंत युरोपांत काम करपी पालकांची संघटना) हे संघटनेचें वांगडीपण सेवा दलान आपणायलें. १९६२ त सेवा दलान घटना दुरूस्ती करून वांगड्यांची नोंदणी आनी अंतर्गत वेंचणुको हाचोय स्विकार केलो. सेवा दलाचें काम १९६७ वर्सा सावन उत्तर प्रदेश, बिहार, मध्य प्रदेश, मणिपूर, जम्मू - काश्मीर आदी राज्यांनीय सुरू जालें.

राष्ट्र सेवा दलांत दादलो बायलेच्या सहाकार्याचेर पयलींसावनच भर दिल्ल्यान बऱ्याच बायलां वावुरप्यांनी दलाच्या वावरांत म्हत्वाचें योगदान दिलें. कुड्डी श्रध्दा निर्मुलनाचें काम करपाखातीर १९८० सावन सेवादल विज्ञानपथक सुरू केलें.

तूर्ताक सेवादलाच्यो महाराष्ट्रांत मुंबय, ठाणें, पुणें, नाशिक, जळगांव, अहमदनगर, बीड, सोलापूर, नांदेड, परभणी, कोल्हापूर, सांगली, सिंधुदुर्ग, रत्नागिरी ह्या जिल्ह्यांत वट्ट १२३ सायंशाखा आसून १४ सप्तकी शाखा चलतात. मध्य प्रदेशांत रेवा, शहडोल, ह्या जिल्ह्यांनी १३, बिहारांत गया, नवाडा, मोंघीर, पूर्णिया ह्या जिल्ह्यांनी मेळून ११, उत्तर प्रदेशांत आझमगड, आग्रा ह्या जिल्ह्यांनी मेळून १६ शाखो चलतात. सहकार आनी शिक्षण व्यासपिठाचेवतीन त्या त्या वाठारांतल्या वावुरप्यांच्या कामाचें संयोजन करतात. गोंयांतूय राश्ट्र सेवा दलाच्यो शाखा कार्यरत आसात.

सेवा दलान शिक्षण, आरोग्य, सहकार आदी मळांचेर निश्ठेन वावुरपी कार्यकर्ते तयार केले. आंतरभारती, साने गुरूजी कथामाला हे चळवळीकय सेवा दलान आदार दिलो. सेवादलाचे वतीन 'सेवा दलाची घटना', 'इतिहास', 'सैनिकीगीत', कै. नरहर कुरुंदकराचें 'वाटा : तुझ्या माझ्या', पु. ल. देशपांडे हाचें 'पुढारी पाहिजे' हें लोकनाट्य उजवाडायलां.

- कों. वि. सं. मं.

**राश्ट्रीय छात्र सेना :** (नॅशनल कॅडेट कोअर). विद्यालय, महाविद्यालय आनी विद्यापीठ विद्यार्थ्यांखातीर सैनिकीचें प्रशिक्षण दिवपाखातीर भारत सरकारान १९४८ वर्सा सावन सुरू केल्ली येवजण. फुडारीपण, चारित्र्य, भावपण, खिलाडूवृत्ती आनी सेवावृत्ती आदी खाशेल्या गुणांचें तरणाट्यांक शिक्षण दिवप ही राश्ट्रीय छात्रसेनेची मोख जावन आसा.

सैनिकी सेवेंत प्रवेश घेवपाखातीर विद्यार्थ्यांची पूर्वतयारी करप, राश्ट्रीय संकटाच्यावेळार प्रशिक्षित आनी शिस्तबध्द अशा तरणाट्यांची मदत मेळोवप अशेय कांय हेतू हे येवजणेफाटल्यान आसात. छात्रसेनेंतल्या विद्यार्थ्यांक प्रत्यक्ष सैनिकी सेवेंत प्रवेश घेवपाची सक्त ना. १९८६ त भारतांत अंदाजान १० हजार शिक्षणीक संस्थांत छात्रसेनेचीं केंद्रां आशिल्लीं आनी तातूंत सुमार ११ लाखांवयर विद्यार्थ्यांचो आंकडो आशिल्लो. लेफ्टनंट जनरल ह्या दर्जाचो अधिकारी राश्ट्रीय छात्रसेनेचो मुखेली आसता. देशांत छात्रसेनेचीं वट्ट १६ संचालनालयां आसून तांच्या अखत्यारीत देशांतलीं सगळीं घटक राज्यां आनी केंद्रशासित प्रदेश आस्पावतात. ब्रिगेडियर वा त्याच पांवड्याचो अधिकारी ह्या संचालनालयाचो मुखेली आसता. महाविद्यालयीन विद्यार्थ्यांचो वयलो विभाग, शालेय विद्यार्थ्यांचो सकयलो विभाग आनी विद्यार्थीनींचो विभाग अशे छात्रसेनेचे तीन विभाग आसात. विद्यार्थीनींच्या विभागांतूय उंचेले आनी सकयले अशे विभाग आसतात. १९८६ त उंचेल्या विभागांतल्या छात्रांचो आंकडो ४० लाख आशिल्लो. तातूंत भूसेना, नौसैना आनी वायुसेना हांचेखातीर अनुक्रमान ३ लाख, ३३ हजार ८००, १२ हजार ६०० आनी ११ हजार ६०० अशी छात्रांची संख्या आशिल्ली. विद्यार्थीनींचो आंकडो ६२ हजार इतलो आशिल्लो. परत भूसेना ५ लाख ३१ हजार १००, नौसेना ४१ हजार १००, वायुसेना ५२ हजार आनी विद्यार्थींनी ६७ हजार.

सैनिकी प्रशिक्षणावांगडाच छात्रांक गिर्यारोहण, उदकांतली भोंवडी, डिंग आदी तरांचें साहसाच्या कामाचें प्रशिक्षणय दितात. देशा देशां वांगडा छात्रांच्या आदान प्रदानाच्यो कार्यावळीय कार्यवाहींत हाडटात. विद्यार्थ्यांक सिंगापूर, ग्रेट ब्रिटनांतलें कॅम्पस आनी बांगला देशातल्या विजय दिसाच्या सुवाळयांत तांकां वांटेकार जावपाची संद मेळटा. तशेंच तांकां दर्याचे भोंवडेचोय लाव मेळटा.

राश्ट्रीय एकचाराची एक नवी कार्यावळ १९८३ वर्सासावन सुरू जाल्या. तिचेप्रमाण एकाद्र्या खेडे वाठारांतल्या प्रकल्पाचेर दुसऱ्या प्रांतांतल्या वा स्थानिक छात्रावांगडा काम करतात. तांच्या घरांनी रावतात. रगतदान, रुखांची लागवड, घाणयाऱ्या वस्त्यांचें निर्मूलन, प्रौढ शिक्षण आदी तरातरांच्या समाजीक कार्यांतूय हे छात्र वांटेकार जातात. राश्ट्रीय छात्रसेना ही केंद्रीय राखणे खात्याचे अखत्यारींत आस्पावता.

- कों. वि. सं. मं.

**राश्ट्रीय बोधवाक्य :** दर एका राश्ट्राचे कांय आदर्श आसतात. हे आदर्श एकाद्र्या खास अशा बोधवाक्यान सूचित वा घोशित करपाची चाल आसता. 'सत्यमेव जयते' हें भारताचें राश्ट्रीय बोधवाक्य जावन आसा. हें वाक्य मुंडकोपनिषदांतल्यान घेतलां. हाचो अर्थ सत्याचेंच जैत जाता असो आसा. भारताक सत्याचोच रस्तो मान्य आसून, भारताचे राज्यकर्ते आनी प्रजा तो आपणायतलो, अशी आस्त ह्या बोध वाक्यावयल्यान समजून येता. लोकांक सत्यान वागपाची उर्बा मेळची म्हूण हें वाक्य राज्यमुद्रेर कोरांतिल्लें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघ :** राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघ ही सगळ्या 'हिंदूंक' एकठांय हाडपाखातीर वावुरपी संस्कृतीक संघटना. 'हिंदू' हें उतर हांगा भारताचें राश्ट्रीयत्व मानतल्या सगळ्या पंथांचो आस्पाव करता.

राश्ट्राविशीं निश्ठावान आशिल्लो तशेंच भारतभूंयेक आपली आवय मानपी तो राश्ट्रीय. स्वयंसेवक म्हळयार फकत आपवावुरपी नासून आपले इत्सेन त्याग करपाक तयार आशिल्लो. 'संघ' हें उतर संघटनावाचक आसा.

जाती, पंथ, भाशा हांकांलागून शिंपडिल्ल्या हिंदू समाजाची संघटना करून भारत देशाक एक आदर्श राश्ट्र म्हण उबें करप हो राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचो उद्‌देश आसा.

राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाची स्थापणूक डॉ. केशव बळिराम

हेडगेवार (१९८९ - १९४०) हाणें नागपुरांत १९२५ वर्सा दसऱ्याच्या म्हुर्तार केली. तेन्नाच्यान नागपूर हें राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचें केंद्रस्थान आसा. संघाच्या सगळयांत ऊंच पदावयल्या नेत्याक सरसंघचालक म्हण्टात. आतांमेरेन डॉ. हेडगेवार, माधव सदाशिव गोळवलकर (गुरूजी), मधुकर दत्तात्रय देवरस (बाळासाहेब), प्रा. राजेन्द्रसिंग (रज्जूभैया) अशे चार सरसंघचालक जाले. संघाच्या गांवांतल्या विकेंद्रीत घटकांक शाखा म्हण्टात.

राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघ वर्सांतले स दीस उत्सव मनयता. तातूंत संवसार पाडवो, हिंदू साम्राज्य दिनोत्सव (ज्येष्ठ शु. त्रयोदस), गुरूपौर्णिमा, राखी पुनव, दसरो, मकर संक्रांत हांचो आस्पाव जाता.

राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचो संस्कृतीक राश्ट्रवादाचेर खर विश्वास आसा. भारताची संस्कृती ही हिंदू संस्कृती आसून ह्या देशांत हिंदू चड आशिल्ल्यान भारत हिंदूराश्ट्र आसा अशी हे संघटनेची विचारप्रणाली आसा. तशेंच हिंदूत्व हें पंथवाचक नासून तें राश्ट्रवाचक आसा म्हणून वैदिक, सनातनी वांगडाच बौध्द, जैन, शीख वा हेर भारतांत स्थापणूक जाल्ल्या पंथाचे लोक हिंदूच अशें राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघ मानता. भारतांतले मुसलमान आनी किरिस्तांव हे लेगीत वंशान हिंदूच आसात अशें संघाच्या नेत्यांनी जायते फावटी म्हळां. अखंड भारताचे संकल्पनेचेर राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचो विश्वास आसा.

राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघटनेच्या स्वयंसेवकांनी जम्मू काश्मीरचें भारतांतलें विलिनीकरण, हैद्राबाद सत्याग्रह, गोंयचे स्वतंत्रतायेचो सत्याग्रह तशेंच दाद्रा नगरहवेलीच्या स्वतंत्रतायेच्या सशस्त्र लढायेंत वांटो घेतला. चिनी आनी पाकिस्तानी घुरयांवेळार भारतीय सेनेक म्हत्वाचो पालव दिला. १९६३ वर्साच्या प्रजासत्ताक दिसाच्या संचलनांत राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाच्या स्वयंसेवकांक सरकारान वांटो घेवपाची संद दिल्ली.

ह्या संघाच्या सेवकांनी दुकळ, भूंयकांप सारकिल्ल्या सैमीक संकटांवेळार लोकांक पालव दिला. तशेंच देशाची वांटणी जाली तेन्ना निर्वासितांक राखण दिवन तांकां स्वतंत्र भारतांत पावसर तांची जबाबदारी घेतल्या आनी वसणूक करपाचें काम केलां. १९७५ ते १९७७ ह्या काळांत आणिबाणीविरोधी संघर्शांतय हे संघटनेन वांटो घेतला.

राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचे प्रेरणेन अखिल भारतीय विद्यार्थी परिशद, भारतीय जन संघ, भारतीय जनता पार्टी, विश्व हिंदू परिशद, कुश्ट निवारक संघ, भारतीय मजदूर संघ, भारतीय किसान संघ, वनवासी कल्याण आश्रय, समाजीक समरसता मंच, अ. भा. ग्राहक पंचायत, राश्ट्रीय शीख संगत सारकिल्ल्या संघटनांची स्थापणूक जाल्या.

ब्रिटिशांचे फोडा आनी राज्य करा हे पद्दतीन चलिल्लें राजकारण, खिलाफत चळवळींतल्यान हिंदू मुसलमान एकचार जावंचो सोडून सुरू जाल्ल्यो दंगली हीं राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाच्या उदयाचीं त्या वेळावयलीं कारणां आसलीं तरी देश स्वतंत्र जालो तरी हिंदू संघटीत जाल्याबगर देशामुखावायले प्रश्न सुटचे नात ह्या विश्वासान डॉ. हेडगेवार आनी ताच्या इश्टांनी ह्या संघाची स्थापना केल्ली. दिनदयाल उपाध्याय, एकनाथजी रानडे, हो. वे. शेषाद्री, दत्तोपंत ठेंगडी, नानाजी देशमुख, अटल बिहारी वाजपेयी सारकिल्ले विचारवंत हेच संघटनेंतल्यान मुखार सरल्यात.

हिंदुंची संघटना करता म्हणून राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचे जायते विरोधक हे संघटनेक जातीयवादी आनी फॅसीस्ट अशीं विशेशणां लायतात. ह्या संघाचेर १९४८, १९७५ आनी १९९२ वर्सा अशी तीन खेपे त्या त्या वेळच्या सरकारान बंदी घातिल्ली. पूण ती बंदी दोन वर्सांवयर उरूंक ना.

राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचे स्वयंसेवक व्यायाम आनी कवायत करपाखातीर एक वरभर मैदानार जमतात. हाकाच शाखा म्हण्टात. शाखेर सगळयो आज्ञा संस्कृत भाशेंत दितात. राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचो गणवेश म्हळयार खाकी मोटवी पँट, धवो शर्ट, तांबडो पटो, काळी तोपी आनी काळे बूट. ह्या गणवेशांत दंड म्हळयार लाठयेचोय आस्पाव जाता. भगवो झेंडो हो संघाचो ध्वज आसा.

राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचें काम भारताच्या सगळया जिल्ह्यांनी पावलां. त्या भायर आशिया, आफ्रिका आनी युरोपांतल्या देशांनीय हे संघटनेचें भारतीय स्वयंसेवक संघ वा हिंदू स्वयंसेवक संघ ह्या नांवान काम चलता.

गोंय मेकळें जावचे पयलीं कांय लोकांनी राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचें काम गोंयांत केल्लें अशी म्हायती मेळटा. पूण गोंय मेकळें जाल्याउपरांत १९६२ वर्सासावन गोंयांत ह्या संघाचें काम उक्त्या मळार सुरू जालां आनी तें गोंयच्या इकराय तालुक्यांनी पावलां.

- दत्ता भि. नाईक

**राश्ट्रीय सागरविज्ञान संस्था** (National Institute Of Oceonography - NIO) : दर्यांतले सजीव आनी निर्जीव साधनसंपत्तीचो अभ्यास करपी राश्ट्रीय पांवडयावयली संस्था. ही संस्था १९६६ वर्सा दोनापावल, गोंय हांगा स्थापन जाली. हे संस्थेवरवीं दर्यांतलें खासकरून भारता भोंवतणच्या दर्यांतले साधनसंपत्तीचें संशोधन, विकास आनी समुपयोग करप जाता. तशेंच अंटार्क्टिक महासागर आनी तातुंतले साधनसंपत्तीविशीं महासागर विज्ञानीक अभ्यास करपाखातीर अंटार्क्टिक संशोधनाच्या राश्ट्रीय कार्यक्रमांत आनी दर्यांतल्या खनिजांविशींच्या कार्यक्रमांत ही संस्था सक्रिय वांटो घेता.

ही संस्था दर्याचे अन्ननिर्मितीचे नदरेन दर्यांतले सजीव

साधन संपत्तीचें सर्वेक्षण, नुस्तेमारीखातीर नवे नवे जागे सोदप, सुंगटां, तिसऱ्यो, शिनाण्यो, खुबे आदी प्राणी तशेंच दर्यांतलें तण हांच्या संवर्धनाचीं तंत्रां विकसीत करप, तेभायर दर्यांतल्या पर्यावरणाचेर सैमीक आनी मनशांवरवीं जावपी बदलांचो जीववैज्ञानीक अभ्यास करप, दर्यांतल्या खनिजांचो अभ्यास करपाखातीर वेगवेगळे तरेन भूवैज्ञानीक आनी भूभौतिकीय संशोधन करप आदी गजालींचेर चड भर दिता. तेभायर कार्बनी रसायनां आनी वखदी द्रव्यां मेळोवपाचे नदरेन उपेगी अशा दर्यांतल्या जीवांचो सोद घेवपाचें कामय ही संस्था करता. संस्थेच्या ह्या कामाक 'गवेषणी' आनी 'सागरकन्या' हीं दोन संशोधन जहाजां महासागराच्या संशोधन वावराक हातभार लायतात.

दर्या, भूंय आनी हवा हांचेमदीं जावपी आंतरक्रिया, तशेंच सकयले पातळेवयलें उदक वयले पातळेचेर येवपाची क्रिया आनी तांचेमदीं जावपी भौतिक प्रक्रियांचो अभ्यास करून ही संस्था मन्सून वारें, चक्रीवादळ, अरबी दर्या, बंगालचो उपसागर आदींची म्हायती मेळयता.

हे संस्थेंत भौतिकीय महासागर विज्ञान, रासायनिक महासागरविज्ञान, जैव महासागर विज्ञान, सागरी प्रदूशण, भूविज्ञानीक महासागर विज्ञान आदी १२ विभाग आसून तिचीं मुंबय, कोचीन आनी वॉल्टेअर हांगा विभागीय केंद्रां आसात.

हांगाच विकसीत केल्ली हवामानाचो अदमास घेवपी एक स्वंयचलीत प्रणाली आनी हेर कांय खास उपकरणां अंटार्क्टिकाचेर आसात. द इंडियन नॅशनल ओशनोग्राफी डेटा सेंटर हें संस्थेचें केंद्र हिंदी महासागराविशीं म्हायती मेळोवप, ती सांठोवप आनी तिचो प्रसार करप असलीं कामां करता. तशेंच संवसारांतल्या हेर केंद्रांकडेन संपर्क दवरप, सूक्ष्मसंदर्भ दवरप, म्हायती प्रकाशीत करप आदी कामांय हें केंद्र करता. हे संस्थेचें सुमार ३०० संशोधन ज्ञानपत्रिका आशिल्लें व्हड ग्रंथालय आसा.

मुंबयच्या विभागीय केंद्रांत खासकरून महाराष्ट्र आनी गुजरात लागसारच्या वाठारांतल्या प्रदुशण नियंत्रणाचो अभ्यास करप जाता. तशेंच थंय ह्या वाठारांतलो महासागरविज्ञानीक अभ्यासय करतात. कोचीनांतल्या विभागीय केंद्रांत आंतरराश्ट्रीय हिंदी महासागर मोहिमेंत एकठांय केल्ले प्राणिप्लवकांचे नमुने दवरल्यात. तेभायर ह्या केंद्रांत केरळांतल्या प्रतिप्रवाहाचे परिस्थितिविज्ञान, प्रदुशणाच्यो कांय बाबी, प्राणी संवर्धन, देगांची झीज आदीविशींचें संशोधनकार्य चलता. वॉल्टेअर आनी ताच्या लागसारच्या वाठाराच्या दर्यावाठाराचो भूभौतिकीय अभ्यास हें वॉल्टेअर विभागीय केंद्राचें खाशेलें अशें काम आसा. पोर्ट ब्लेअर, चेन्नई आनी गुजरात हांगा विभागीय केंद्रां उगडपाची संस्थेची येवजण आसा.

इंटरगव्हर्नमेंट ओशनोग्राफिक कमिशन, यूनेस्को ह्या सारक्या आंतरराश्ट्रीय संघटनांकडल्यान मदत मेळपी प्रकल्पांतय ही संस्था वांटो घेता. हे संस्थेवरवीं महासागर आनी एन आय ओ न्यूजलेटर हीं त्रैमासिकां, कलेक्टेड रिप्रिंटस् ही वर्सुकी आनी वर्सुकी अहवाल उजवाडा हाडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**राश्ट्रीयीकरण :** उद्येगधंदे आनी सेवा ह्या सदराखाल येवपी आस्थापनां (माध्यमां) हांचो कारभार थेट सरकारी नियंत्रणाखाला हाडप हाका सामान्यपणान राश्ट्रीयीकरण म्हण्टात. सामान्य जनतेक अर्थीक येणावळीचो लाव मेळचो आनी तातुंतल्यान अर्थीक समता घडची, तशेंच सामान्य जनतेक अत्यावश्यक सेवेचो फाव त्या मोलांत फायदो मेळचो हें जनहिताचें तत्त्व राश्ट्रीयीकरणाफाटलें मुखेल सूत्र आसा. कांय आडवाद सोडले तर राश्ट्रीयीकरण हें मुखेलपणान समाजवादाचें कारण आसा. लोकशायेंत समाजवादी अर्थीक धोरण म्हणून राश्ट्रीयीकरणाचें समर्थन जालां. फायदो (येणावळ) हें खाजगी अर्थकरणाचें मुखेल तत्त्व जाल्ल्यान गिरायकाचेर विनाकारण अर्थीक भार पडटा. ह्याच तत्त्वाक लागून उद्येगमळार अडेची टंचाय निर्माण करपाची प्रवृत्ती जाता. बीन फायद्याचे पूण सामान्य जनतेक गरजेच्या अशा उद्देगधंद्याकडेन खाजगी अर्थकारणांत दुर्लक्ष जाता. राश्ट्र उबारणेखातीर आनी विशेश करून आणिबाणीचे परिस्थितींत कांय उत्पादनां सामकीं गरजेचीं थरतात. ह्या सगळयांचेर केंद्रीय खाजगी उत्पादन वेवस्थेंत श्रम ह्या घटकाचें व्हड योगदान आसता. पूण प्रत्यक्षांत श्रम दिवपी कामगाराक ताच्या श्रमाच्या प्रमाणांत येणावळींतलो वांटो मेळना. ह्या सगळयांचेर केंद्रीय नियंत्रण आसप गरजेचें जाता, हातुंतल्यान राश्ट्रीयीकरणाचें समर्थन करप जालां. संवसारांतलो राश्ट्रीयीकरणाचो इतिहास सगळेच कडेन समाधानकारक ना. कांय आडवाद सोडले तर राश्ट्रीयीकरण हो खाजगी उद्देगधंद्याक एक आदर्श पर्याय थारूंक ना. हाचें मुखेल कारण म्हणजे खाजगी उद्देगयंत्रणेंत जी एके तरेची कार्य क्षमता, शिस्त, स्वायत्ता, वेवस्थापन कळाशी अंतर्भुत आसा. अशे तरेची वेवस्था राश्ट्रीयीकरणांत हाडपाक व्हडलेंशें यश मेळूंक ना. तेभायर नफो (येणावळ) ही मोख सदळ दवरिल्ल्यान राश्ट्रीय उद्देगधंद्याचो अर्थीक कणो दुबळो जावन नफ्या तोटयाचें प्रमाण सारखें जुळना. खाजगीकरण आनी राश्ट्रीयीकरण दोगांतय फायदे - तोटे आशिल्ल्यान खंयचे एकेच वेवस्थेचेर पातयेवन रावप खंयच्याय राश्ट्राक परवडपासारकें ना. देखून मिश्रप अर्थवेवस्था हो तिसरो पर्याय मुखार आयलो. हे वेवस्थेंत राश्ट्रीय तशेंच खाजगी उद्देगधंद्याक वाव मेळटा. गरजेप्रमाण आनी उत्पादन क्षमतेचे कुवतीनुसार उद्देगधंद्याची दोगांयमदीं वांटणी करून एकंदर अर्थ वेवस्था घटमूट करपाच्या उद्देशान भौतेक राश्ट्रांनी ही मिश्र पद्दत आपणायल्या. येणावळ, कर, कामगारांचो वेवस्थापनांत सहभाग, खाजगी वेवस्थापनाचें नियंत्रण, संबंदीत कायदे अशा पूरक उपायांनी

मिश्र वेवस्थेक संरक्षण दिवपाची कल्पना मुखार आयल्या. भारताच्या स्वातंत्र्यापयलीं कांय अर्थवेव्हार ब्रिटीश सरकाराच्या प्रशासनाखाल आशिल्ले. तरी मुखेलपणान ब्रिटीश वेपाऱ्याक आयात निर्यात करप सोपें जावचें ह्या उद्देशान ती वेवस्था केल्ली. स्वातंत्र्या उपरांत लोकशाय राज्यतंत्राची समाजवादी वेवस्था ही मोख मुखार दवरून अर्थीक नियोजनाच्या मार्गान अर्थीक विकासांतल्यान समाजीक हीत साधप हें उद्दीश्ट दवरिल्ल्यान मिश्र अर्थ वेवस्था हो पर्याय भारत सरकारान स्विकारलो. हाचो परिणाम म्हणून व्हड प्रमाणांत भौशिक, अर्थीक मळार भारत सरकारान भांडवल घालें. लोकोपयोगी वस्तू आनी सेवा हांचें उत्पादन आनी समान वांटप हाचेर सरकारी उद्देगधंदयांनी भर दवरलो. फुडाराक उपेगी वस्तुची टंचाय भरून काडप आनी बंद पडिल्ल्या उद्देगधंदयांतल्या कामगारांक काम दिवप ह्या दोन मोखींची तातूंत भर पडली. उद्देगधंदयांत कर्जरुपान दुडवांपुरवण करपी वेपारी बँकांचें सरकारान १९६९ आनी १९८० त राश्ट्रीयीकरण करून सरकारी मळार चलपी उद्देगधंदयांक चालना दिली आनी ह्याच वांगडा ह्या संस्थांचो जावपी अर्थीक दुरूपयोग उणो केलो. सदयाचे परिस्थितींत भारतीय अर्थ वेवस्थेंत खनीजां, कोळसो, तिखें, वीज, सारें, येरादारी, दळणवळण, उदकापुरवण, वित्तपुरवण, संरक्षण, उत्पादन आदी मळां व्यापक रुपान सरकारी वेवस्थेखालां हाडल्यांत.

सरकारी क्षेत्रांतली गुंतवणूक (आंकडे कोटी रुपयांत)

| येवजण क्रं. | सरकारी क्षेत्र | वट्ट गुंतवणूक | वट्ट गुंतवणुकीचो शेंकडो/प्रमाण |
|---|---|---|---|
| पयली येवजण | १,५६० | ३३६० | ४६.४ |
| दुसरी येवजण | ३,७३१ | ६८३१ | ५४.६ |
| तिसरी येवजण | ७,१८० | ११,२८० | ६३.७ |
| चवथी येवजण | १३,६५५ | २२,६३५ | ६०.३ |
| पांचवी येवजण | ३६,७०३ | ६३,७५१ | ५७.६ |
| सवी येवजण | ८४,००० | १५८,७१० | ५२.९ |

सरकारी उद्देगधंदयामार्फत उत्पन्न जाल्ल्या म्हालाची निर्यात आनी आयात पर्यायीकरणांतल्यान सरकाराचे तिजोरेंत व्हड प्रमाणांत परकी चलन जमा जाता. देशांतलें बेकारीचें प्रमाण कमी करपांतय सरकारी उद्देगधंदयांचो बरोच हातभार लागता.

सरकारी क्षेत्रांतल्या उद्देगधंदयांनी १९६८ - ६९ त वट्ट ८५ कोटी रुपया फायदो मेळयलो. १९८३ - ८४ त तो ३५६१ कोटी रुपया जालो. फकत नफ्याचो हिशेब केल्यार १९६८ - ६९ ते १९७१ - ७२ ह्या काळांत ह्या उद्देगधंदयांक नुकसान जाल्ल्याचें दिसता. १९७२ - ७३ त तांकां कांय प्रमाणांत म्हळयार ८.१८ कोटी रु. फायदो मेळ्ळो. १९७६-७७ तो १८४ कोटी रु. जालो. ते उपरांतचीं रिणां परत नुकसान दाखयतात. १९८२ - ८३ वर्सा फकत फायदो ६१३ कोटी रु. जालो. पूण १९८३ - ८४ त तो २४६ कोटी मेरेन उणो जाल्ल्याचें दिसता. वट्ट फायदयाचें गुंतवणुकीचें प्रमाण १९६८ - ६९ त फकत २.८ % आशिल्लें, तें १९७६ - ७७ वर्सा ८.४ टक्क्यांमेरेन वाडलें. १९८२ - ८३ वर्सा तें १३% आशिल्लें. १९८३ -८४ वर्सा हें प्रमाण ११.९% मेरेन देवलें. भारतांतल्या सरकारी उद्देगधंदयांची परिस्थिती समाधानकारक ना अशें मानून लेगीत भारतीय समाजवादी अर्थवेवस्थेंत राश्ट्रीयीकरण अपरिहार्य आसा. अर्थीक नियंत्रणांतल्यान अर्थीक समता हें राश्ट्रीयीकरणांचें उद्दीश्ट आशिल्ल्यान फकत फायदो- नुकसान हे कसोटीचेर राश्ट्रीयीकरणाचें मूल्यमापन करप समा जावचें ना. भारतासारक्या प्रगतशील देशाखातीर अशे अर्थवेवस्थेची नितांत गरज आसा. अशे वेवस्थेच्या अणभवांतल्यान आवश्यक ती जतनाय घेवन भौशिक क्षेत्राची कार्यक्षमता वाडोवपाचो विचार जावप होच हाचेर उपाय दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**राष्ट्रकुल** : एक आंतरराश्ट्रीय संघटना. एका तेंपार ब्रिटीश साम्राज्या अंतर्गत अशा वसाहती राश्ट्रांची ही संघटना आसली. ह्यो वसाहती स्वतंत्र जातकच चडशा राश्ट्रांनी राश्ट्रकुलाचें सभासदत्व दवरलें. ब्रिटीश साम्राज्याचे राजकीय, अर्थीक आनी प्रशासकीय गरजेंतल्यान वसाहतींच्या परिशदेच्या रुपांत (कॉलोनियल कॉन्फरन्स) राष्ट्रकुल (ब्रिटीश कॉमनवेल्थ ऑफ नेशन्स) हे संस्थेचो जल्म जालो. १९४७ त ब्रिटीश साम्राज्याखालच्यो बऱ्योच वसाहती बरखास्त जावन थंय स्वतंत्र राश्ट्रांची निर्मिती जातकच, ब्रिटीश हें उतर गाळून फकत 'कॉमनवेल्थ ऑफ नेशन्स' हें नांव उरलें. साम्राज्यांतल्या वेगवेगळया वसाहतींचे गव्हर्नर आनी प्रशासक हांणी एकामेकांच्या अणभवांची देवघेव करची, राजकीय आनी प्रशासकीय धोरणांत एकसुत्रता हाडपाचो यत्न करचो आनी वसाहत मंत्र्याकडल्यान फुडल्या धोरणाविशीं मार्गदर्शन मेळचें ह्या उद्देशान हे संघटनेचीं अधिवेशनां घेवप जातालीं.

हे संघटनेचीं सभासद राश्ट्रां अशीं: ग्रेट ब्रिटन, आयर्लंड प्रजासत्ताक, कॅनडा, न्यू फाउंडलंड, ऑस्ट्रेलिया, न्यूझीलंड, दक्षिण आफ्रिका, श्रीलंका, घाना, मलेशिया, नायजेरिया, सायप्रस, सिएरा लेओन, टांझानिया, जमेका, त्रिनिदाद, टोबॅगो, युगांडा, केनया, मालावी प्रजासत्ताक, झांबिया, मॉल्टा, गँबिया, सिंगापूर, गुयाना, बोट्स्वाना, लेसोथो, बार्बेदेश, मॉरिशस, स्वाझीलँड, अस्तंत सॅमोआ, टाँगा, फिजी, बांगला देश, बहामा, ग्रेनेडा, भारत, पाकिस्तान, नाऊरू, अँटिग्वा - बार्बूडा, सेंट किट्सनेव्हिझ, डोमिनिकन प्रजासत्ताक, सेंट लुसीया,सेंट व्हिंसेंट, ब्रुनाई आनी ऱ्होडेशिया (झिंबाब्वे). हातुंतलो आयर्लंड प्रजासत्ताक, दक्षिण आफ्रिका आनी पाकिस्तान हांणी अनुक्रमान १९४९, १९६१ आनी १९७२ वर्सा राश्ट्रकुलांतल्यात सभासदत्व काडून घेतलें. तशेंच १९९५ त नायझेरियाचें सभासदत्व रद्द केलें. राष्ट्रकुलाचें पायाभूत तत्त्व स्वयंस्फूर्त सहकार्य हें आशिल्ल्यान सभासद राष्ट्रकुलाचो प्रभाव कायद्याच्या स्वरुपाचो नासून राजकीय स्वरुपाचो आसा.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत आफ्रिका आशिया खंडातल्या ब्रिटीश वसाहतींक स्वातंत्र्य मेळळें. हाचें बरेंच श्रेय राष्ट्रकूल हे संघटनेचे विचारसरणेक आनी धोरणाक वता. चड करून ब्रिटीश नियंत्रणाखाल आशिल्लो ऱ्होडेशिया (झिंबाब्वे) १९७९ त मेळिल्लें स्वातंत्र्य, दक्षिण अफ्रिकेंतली वर्णभेदाचेर आदारीत राज्यवेवस्था आनी दक्षिण आफ्रिकेच्या हुकमतीखाला आशिल्ल्या नामीबियाचें स्वातंत्र्य मेळपाक राष्ट्रकुलाचें धोरण बऱ्याच अंशी कारणीभूत जालां. राष्ट्रकुलांत आशिल्ल्या राश्ट्रांच्या अंतर्गत वेव्हाराचेर राष्ट्रकुलाचो कायदेशीर असो अधिकृत शेक चलना आसलो, तरी हे संघटनेचो धोरणात्मक दबाव लोकमत तशें आंतरराश्ट्रीय - राश्ट्रीय संबंद हांचेर पडटा. हे संघटनेचें कायमस्वरुपी मुखेल कार्यालय लंडनाक आसलें तरी ताच्यो परिशदो सभासद राश्ट्रांनी जाता. अशी एक परिशद १९८३ त दिल्ली जाल्ली.

काँग्रेसच्या जयपूर हांगाच्या अधिवेशनांत (१९४८) पंडित नेहरूच्या फुडाकारान स्वतंत्र भारतान समतेच्या आनी सार्वभौमत्वाच्या तत्त्वार राश्ट्रकुलांत रावपाचो निर्णय घेतलो. त्यावेळार भारताक लागपी लश्करी सामुग्रीचो ब्रिटनाकडल्यान जावपी पुरवण, स्टर्लींग क्षेत्रांत आस्पाव आशिल्ल्या भारताक मेळपी परकीय हुंडणावळीच्यो सुविधा, भारतीय निर्यात मालाक ब्रिटीश बाजारपेठेंत मेळपी जकात सूट आनी पाकिस्तानाच्या नाकाआशिल्ल्या प्रचाराक आळाबंदा हाडपा खातीर उपेगी आशिल्लें राष्ट्रकुलाचें व्यासपीठ ह्या सगळ्या कारणांनी राष्ट्रकुलांत रावपाचो भारताचो निर्णय योग्य थारलो.

फुडल्या काळांत शीतझुजाच्या संदर्भांत राष्ट्रकुलाचें राजकीय म्हत्व खूब उणें जालें. राष्ट्रकुलाभायल्याय राश्ट्रांकडेन भारताचे शस्त्राविशींचे अर्थीक आनी राजकीय हितसंबंद जोडिल्ल्यान राष्ट्रकुलाक भारताचे नदरेन दुसरी सुवात आसा. १९६५ पयलीं राष्ट्रकुलाच्या कारभाराचेर ब्रिटीश सरकाराचें बरेंच नियंत्रण उरतालें. १९६५ त राष्ट्रकुलाचें कायमस्वरुपी कार्यालय लंडनांत स्थापन करून ताका स्वायत्त अशें प्रशासन मेळ्ळें. आधुनिक काळांत राष्ट्रकुलाचें म्हत्व आंतरराश्ट्रीय मळार पयलीं सारकें उरूंक ना. तरी समान राश्ट्रीय धोरणाचेर राष्ट्रकुलाचे परिशदेंत भासाभास जावन कांय निश्चीत अशीं तत्त्वां सभासद राश्ट्रां आपखोशयेन आपणाक लागू करतात.

१९३० च्या अदमासाक राष्ट्रकुलाचे वतीन सभासद राश्ट्रांखातीर दर चार वर्सांनी राष्ट्रकुल खेळासर्ती सुरू केल्ल्यो त्यो चालू आसून तांकां खेळाच्या मळार ऑलंपिक खेळासर्ती फाटोफाट म्हत्व मेळ्ळां.

- कों. वि. सं. मं.

**राष्ट्रकूट राजवंश :** महाराष्ट्रांत राज्य करपी एक प्राचीन वंश. पयलींच्या काळांत राष्ट्रकूट ह्या नांवाचीं खूबशीं घराणीं भारतांत आशिल्लीं. पयलीं राष्ट्रकूट हें एक अधिकारपद आशिल्लें. राज्याच्या व्हड विभागाक राश्ट्र म्हण्टाले. पुर्विल्ल्या तांब्यापट्यांनी राष्ट्रकूटांचो उल्लेख येता. राश्ट्राचो प्रशासक तो राष्ट्रकूट. तांकां राजदानाची म्हायती दिल्ली आसता. कांय काळा उपरांत राष्ट्रकूट प्रबळ जावन तांणी स्वतंत्र राज्यांची स्थापणूक केली. तेखातीर तांचीं कुळां राष्ट्रकूट ह्या नांवान नामनेक पावलीं. अशीं घराणीं लातूर, वेरूळ, सोलापूर, अचलपूर हांगा स्थायिक जाल्लीं.

**मानपूरचे राष्ट्रकूट** - सगळयांत पोरनें घराणें. इ. स. च्या ४ थ्या आनी ५ व्या शेंकड्यांत कृष्णा न्हंयेच्या देगणांत राज्य करतालें. ताचो मूळ पुरूस मानांक हाणें आपल्या नांवान मानपूर नांवाचें नगर स्थापून थंय आपली राजधानी केली. ह्या राष्ट्रकूट राजाक कुंतलेश्वर अशेंय म्हण्टाले. विदर्भाचे वाकाटक आनी कुंतलाचे राष्ट्रकूट हांचीं राज्यां एकामेकांक तेकून आशिल्ल्यान तांचेभितर सतत वाद चलताले. मानांकान विदर्भाक खूब सतायलें, अशें राष्ट्रकूटांच्या पांडरंगपल्ली तांब्यापटांत म्हळां, तशेंच वत्सगुल्म (वाशीम) च्या विंध्यसेन वाकाटकान कुंतलेशाचो पराजय केल्ल्याचो उल्लेख अजिंठ्याच्या लेखांत आयला. मानाकांचो पूत देवराज हाच्या काळांत गुप्त सम्राट दुसरो चंद्रगुप्त (विक्रमादित्य) हाणें आपलो राजकवी कालिदास हाका ह्या कुंतलेश राष्ट्रकूटांच्या दरबारांत वकील म्हणून धाडिल्लो. मानपूर हांगा हें घराणें दुसऱ्या पुलकेशीच्या काळामेरेन तिगलें. पुलकेशीन तांकां हारोवन तांचो प्रदेश खालसा केलो.

सव्या शेंकड्यांत, विदर्भांत दुसरें राष्ट्रकूट घराणें कलचुरींचे मांडलिक म्हणून उदयाक आयलें. कलचुरींच्या उच्छेदाउपरांत तांणी बादामीच्या चालुक्यांचें स्वामित्व आपणायलें आनी फुडें ते राष्ट्रकूटांचे मांडलिक जाले. तांची राजधानी पयलीं नंदिवर्धन, उपरांत भंडारा जिल्हयांतल्या पद्मपूर (पद्मनगर) आनी निमाणें अमरावती जिल्हयांतल्या अचलपूर हांगा आशिल्ली. हें घराणें धाव्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन उरलें. ह्या दोनूय घराण्यांपरस चड नामनेचें अशें तिसरें राष्ट्रकूट घराणें औरंगाबाद जिल्ह्यांत उदयाक आयलें. ह्या घराण्याचो पयलो नामनेचो राजा दंतिदुर्ग. हो पयलीं बादामीच्या चालुक्यांचो मांडलिक आशिल्लो. पूण फुडें तें सोडून ताणें सुमार ४५ वर्सां राज्य केलें. लाट (दक्षिण गुजरात), महाराष्ट्र, विदर्भ हे प्रदेश जिखून ताणें आपल्या राज्याक जोडले. उपरांत ताणें मालव, कोसल (छत्तीसगड), कलिंग (ओरिसा), श्रीशैलम ह्या प्रदेशांचेर घुरयो घाल्यो. ७५३ च्या अदमासाक ताणें चालुक्य कीर्तिवर्म्याक हारयलो.

दंतिदुर्गा उपरांत ताचो बापलयो पयलो कृष्ण हाणें चालुक्य सम्राट दुसरो कीर्तिवर्मा हाका परतून हारोवन चालुक्य राजवट सोंपयली. उपरांत ताणें गंगवाडीच्या गंगांचो आनी बेंगीच्याय पयलींच्या चालुक्यांचो पराभव केलो. अशे तरेन ताणें राष्ट्रकूट साम्राज्याची बसका घाली. ताच्या काळांत वेरूळ हांगाचें कैलास लेणें खोदलें.

कृष्णा उपरांत ताचो पूत दुसरो गोविंद गादयेर आयलो पूण ताच्या काळांत सगळी सत्ता ताचो धाकटो भाव ध्रुव हाच्या हातांत आशिल्ली. निमाणें ध्रुवान ताका हारोवन स्वता गादी घेतली. उपरांत ध्रुवान गोविंदाच्या पक्षाचे गंग आनी पल्लव राजांक हारोवन गंग राजपुत्र शिवमार हाका बंदिस्त केलो आनी गंगवाडी खालसा केली. उपरांत ताणें उत्तर भारतांत स्वारी करून दोआबामेरेन आक्रमण केलें. गुर्जर प्रतीहार नृपती वत्सराज हाका राजपुतान्यांत धांवडावन घाले आनी बंगालचो पालनृपती धर्मपाल हाका दोआबांत हारयलो. तेन्नासावन गंगा आनी यमुना न्हंयांचीं चिन्नां राष्ट्रकूटांच्या ध्वजांचेर दिसूंक लागलीं. ध्रुवाउपरांत तिसरो गोविंद हो गादयेर आयलो. ताणें आपल्या स्तंभ नांवाच्या व्हडल्या भावाचो आनी ताच्या पक्षाच्या आनी बंदीतल्यान मुक्त जातकच उलटल्ल्या गंग राजाचो पराभव केलो. गंगाक परतून बंदींत उडयलो. पूण स्तंभाक परतून गंगवाडीचो अधिपती नेमलो. उपरांत ताणें आपल्या बापायप्रमाण उत्तर भारतांत घुरी घालून थंयच्या वत्सराजाचो पूत दुसरो नागभट हाका हारयलो. पालनृपती धर्मपाल आपलो हस्तक कनौजाचो अधिपती चक्रायुध हाचेसयत ताका शरण आयलो. उपरांत ताणें हिमालयामेरेन स्वारी केली. परतून नर्मदा देगेचेर येवन ताणें मालक, डाहल (चेदि), ओड्रक (ओरिसा) हे देश जिखून पावसाच्या दिसांनी श्रीभवन (गुजरातांतलें सारमोण) हांगा मुक्काम केलो. थंयच ताका पयलो अमोघवर्ष हो चलो जालो. गोविंद तेउपरांत मयूरखंडीक परतून आयलो. थंय कांय काळ रावन ताणें दक्षिणेच्या दिग्विजयाची तयारी केली आनी तुंगभद्रेचे देगेर हेलापूर हांगा तळ दिलो. थंयसावन ताणें गंग, पल्लव, पांड्य आनी केरळ देशांचेर घुरयो घालून थंयच्या राजांचो पराभव केलो. तांकां आपलें स्वामित्व आपणावपाक लायलें. ताणें वेंगीचो पूर्वचालुक्य दुसरो विजयादित्य हाका हारोवन ताचो धाकटो भाव भीम हाका गादयेर बसयलो. अशे तरेन ताणें हिमालयासावन कन्याकुमारीमेरेन आपलें साम्राज्य पातळायलें.

तिसऱ्या गोविंदा उपरांत ताचो पूत पयलो अमोघवर्ष गादयेर आयलो. तेन्ना तो पंदरा - सोळा वर्सांचो आशिल्लो. अमोघवर्षाचे कारकीर्दींत खूब बंडां जालीं. पूर्वचालुक्य विजयादित्यान आपली गादी परत मेळयली. गंगांनी राष्ट्रकुटांक गंगवाडींतल्यान धांवडावन घाले. गुजरातांत तिसऱ्या गोविंदान स्थापन केल्ले राष्ट्रकूट शाखेनूय स्वातंत्र्य फर्मायलें. हातुंतल्या खूब जाणांक अमोघवर्षान काबूत हाडले. पूण ह्या बंडाळयांखातीर ताच्या राज्याक शांतिकाय लाबलीना. अमोघवर्षाच्या काळांत विद्येक खूब उर्बा मेळ्ळी. ताणें स्वता कविराजमार्ग नांवाचो साहित्यशास्त्रीय ग्रंथ कन्नड भाशेंत बरयलो. ताच्या प्रश्नोत्तरमालिका नांवाच्या दुसऱ्या एका ग्रंथावयल्यान तशेंच कोरांतिल्ल्या लेखांच्या उल्लेखांवयल्यान तो मदीं मदीं आपल्या युवराजाचेर कारभार सोंपोवन धर्मीक चिंतनाखातीर मठांत वचून रावतालो अशें दिसता. एक फावट ताणें वशाच्या रोगनिवारणाखातीर आपल्या हाताचें बोट कापून तें कोल्हापूरचे महालक्ष्मीक ऑफिल्ल्याचो उल्लेख लेखांत आसा. ताच्या दरबारांत बऱ्याचशा जैन कवींनी आपले ग्रंथ रचिल्ल्याचे उल्लेख आसात.

पयल्या अमोघवर्षाउपरांत ताचो पूत दुसरो कृष्ण गादयेर आयलो. कृष्णान आपले कारकीर्दिच्या शेवटाक उत्तर अर्काट जिल्ह्यांतल्या बाण नृपती दुसरो विजयादित्य प्रभुमेरू हाचो पराभव केलो. हे घुरयेंत ताचो नातू तिसरो इंद्र हाणें पराक्रम गाजयल्लो. कृष्णाक उत्तर भारतांतले माळवो आनी कोठवाड हे प्रांत गुर्जर प्रतीहार पयलो भोज हाका दिवचे पडले. ताचे कारकीर्दींत गुजरातेंतले राष्ट्रकूट शाखेचो अस्त जालो. कृष्णाचो पूत जगतुंग हो ताचे हयातीत मेल्ल्यान ताचे उपरांत ताचो नातू तिसरो इंद्र हो गादयेर आयलो. इंद्राक इ. स. ९२७ वर्सा मरण आयलें. ते उपरांत ताचो पूत दुसरो अमोघवर्ष हो गादयेर आयलो. पूण एका वर्सांतूच ताका मरण आयिल्ल्यान ताचो भाव चवथो गोविंद हाका गादी मेळ्ळी. हाच्या काळांत बऱ्याचशा सामंतांनी बंड करून मान्यखेटाचेर चाल केली. कलचुरी युवराजदेवान आपलो जावंय तिसरो अमोघवर्ष हाचो पक्ष घेवन उत्तरेकडल्यान राष्ट्रकूट प्रदेशाचेर सैन्य धाडलें. त्या सैन्याचें आनी राष्ट्रकूटांच्या अचलपूर हांगाच्या सामंताच्या सैन्याचें पयोष्णीचे देगेर व्हड झूज जालें. तातूंत कलचुरी सैन्याक जैत मेळ्ळें. ताणें अमोघवर्षाक फुडें घालून मान्यखेटाचेर चाल केली. दक्षिणेकडल्यान अमोघवर्षाचे साहाय्यक आयिल्लेच. हे धुमश्चक्रींत चवथो गोविंद मेलो आनी तिसरो अमोघवर्ष गादयेर आयलो. पूण तेन्ना तो खूब जाण्टो जाल्लो. तशेंच तो शांत वृत्तीचो आशिल्ल्यान ताचो पूत तिसरो कृष्ण होच सगळो राज्यकारभार पळयतालो. तीन वर्सांनी बापायच्या मरणाउपरांत तो गादयेर आयलो.

तिसरो कृष्ण महापराक्रमी आशिल्लो. ताणें आपलो मेवणो बूतुग हाका गंगवाडीचे गादयेर बसयलो, उत्तरेंत घुरयो घालून कालंजर आनी चित्रकूट हांगा राष्ट्रकूटांचीं ठाणीं बसयलीं. उपरांत दक्षिणेंत परत येवन कांची आनी तंजावर हीं स्थळां काबीज केलीं. फुडें स वर्सांउपरांत तक्कोलम् हांगा जाल्ल्या खर झुजांत चोल युवराज राजादित्य हाका गंग सामंत बूतुगान जिवो मारलो. उपरांत कृष्णान रामेश्वरमेरेन चाल करून थंय आपलो जयस्तंभ उबारलो. फुडें चोलांनी आपलो कांय प्रदेश जिखून परत घेतलो पूण तांचो तोंडइमंडल (अर्काट, चिंगलपुट आनी वेल्लोर जिल्ह्यांचो) प्रदेश राश्ट्रकूटांच्या हातांत उरलो. कृष्णान परतून ९६३ वर्सा उत्तरेंत घुरी घाली आनी माळवा काबीज करून बुंदेलखंडाचेर आक्रमण केलें.

कृष्णाउपरांत ताचो धाकटो भाव खोट्टिग गादयेर आयलो. ताचे कारकीर्दींत माळव्याच्या परमार सीयकान मान्यखेटाचेर इ. स. ९७२ वर्सा घुरी घालून तें नगर लुटलें. उपरांत खोट्टिगाचो पुतणयो दुसरो कर्क गादयेर आयलो पूण तो व्यसनी आशिल्ल्यान राज्यांत

बेबंदशाय माजली. हाका लागून बेळगांव जिल्ह्यांतल्या तरदवाडी हांगा राज्य करपी राष्ट्रकूटांचो मांडलिक तैलप हाणें हाचो फायदो घेतलो आनी ९७३ वर्सा घुरी घालून कर्काचो पराभव केलो आनी मान्यखेट काबीज केलें. .

धार्मिक मळार राष्ट्रकूट राजे सहिश्णू आनी उदार आशिल्ले. बौध्द, जैन, मुसलमान, शैव, वैश्णव ह्या सगळयांक तांणी समभावान वागोवन आदार केलो. मुसलमान धर्माविशीं तांचें उदार धोरण आशिल्लें. तांकां मशिदी बांदपाक परवानगी दिल्ली. कितल्याशाच प्रदेशांचेर मुसलमानी प्रांतधिपतीची नेमणूक केल्ली. राष्ट्रकूटांच्या काळांत सगळयाक बौध्द धर्म अधोगतीचे वाटेर आशिल्लो तरी राष्ट्रकूटांच्या साम्राज्यांत एक - दोन सुवातींनी बौध्द विहार आशिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. कृष्णगिरी (कोंकणांतलें कान्हेरी) हांगाच्या बौध्द संघाक पयल्या अमोघवर्षाचे कारकीर्दीत शिलाहारांच्या अमात्यान कांय द्रव्यांच्यो देणग्यो दिल्ल्यो. पयलो अमोघवर्ष आनी ताचो पूत दुसरो कृष्ण हांणी जैन देवळांक देणग्यो दिल्ल्यो. गुजरातांतल्या सामंत राष्ट्रकूट शाखेच्या दंतिवर्म्यान कांपील्य तीर्थांतल्या विहाराक ग्राम दान दिल्लें. राष्ट्रकूटांनी धर्म, विद्या आनी कला हांकां आलाशिरो दिला. तशेंच तांचो विद्वानांक आश्रय आसतालो. तांणी बऱ्योचशो साहित्यकृती निर्माण केल्यो. तांच्या काळांत स्थापत्य आनी शिल्प ह्या कलांकूय उर्बा मेळळी. तांणी आपल्या राज्यांत खूबशीं देवळां, वास्तू बांदल्यो. सामान्यपणान राष्ट्रकूट राजे हिंदू आसून शिवाचे उपासक आशिल्ले. कृष्णराजाचें कृष्णेश्वर हें कैलासलेणें हें एक शिवमंदिरूच आसा. हाचे भायर तांणी अठरा शिवमंदिरां बांदिल्ल्याचो उल्लेख राष्ट्रकूटांच्या कोरांतिल्ल्या लेखांनी येता. वेरूळाभशेनूच घारापुरी हांगा राष्ट्रकूट राजांनी कितलेशेच शिवकथा प्रसंग चितरायल्यात. हेभायर आनीकूय खूब कडे शिवमंदिरां राष्ट्रकूट राजांनी बांदल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : वेरूळ

**रासलीला :** व्रज वाठारांतलें एक धर्मीक आनी संगीत नृत्यनाट्य. 'रसानां समूहः' = नव रसाचो समुदाय आनी 'रसः उत्पद्यते यस्मात' = जाचे पसून रस उत्पन्न जाता तो, अशो रास शब्दांच्यो दोन उत्पत्त्यो सांगल्यात. पुर्विल्ल्या संस्कृतांत तशेंच अपभ्रंश साहित्यांतय रास शब्दाचो उल्लेख मेळटा.

रासक्रिडा हो वृंदावनांत रावपी श्रीकृष्ण आनी गोकुळांतल्यो गोपी हांचे जिणेतलो एक अमृतमधुर प्रसंग आसा. भागवत पुराणाच्या दशम स्कंधांतल्या २९ ते ३३ ह्या अध्यायांत रासांचें वर्णन आयिल्लें आसा. देखून ह्या पांच अध्यायांक मेळून रासपंचाध्यायी अशें म्हण्टात. हे पांच अध्याय भागवताचे प्राणभूत मानील्ले आसात.

रासपंचाध्यायींत रासाचें वर्णन आयलां तें अशें - शरद ऋतुंतले पुनवेराती चंद्र क्षितिजावयल्यान वयर येवंक लागलो आनी थोड्याच वेळांत ताचें धवेंफुल्ल चान्नें सगळेकडेन फांकारलें. अशावेळार श्रीकृष्णाक गोपबालां वांगडा क्रिडा करपाची इत्सा जाली. ताणें आपली मुरली ओंठाचेर तेकयली आनी तातुंतल्यान गोड तान छेडली. ती तान सगळया व्रजमंडलांत घुमली, तेन्ना वज्रांतल्यो गोपी ती तान आयकून मोहित जाल्यो आनी हातांतलें काम थंयच सोडून, आपल्या वस्त्राचें भान दवरिनासतना घरच्यांच्या विरोधाक आयकनासतना वृंदावनांत यमुनादेगेर उब्या आशिल्ल्या कृष्णाकडेन धावल्यो. तेन्ना कृष्णान तांकां इतल्या रातच्यो तुमी भुरग्याबाळांक सोडून कित्याक आयल्यात, हें योग्य न्हय. तुमी आयल्यांत तशींच परत वचात, अशें तांकां सांगलें.

कृष्णाच्या तोंडांतली हीं खर उतरां आयकून त्यो दुखी जाल्यो. तांणी कृष्णाक म्हळें तुका आमच्या मनांतलो भाव कळटा, आमी तुजेकडेन रास खेळूंक आयल्यात.

गोपींची ही उपाट भक्ती पळोवन कृष्ण खोशी जालो आनी ताणें तांची इत्सा पुराय करपाचें थारायलें. उपरांत यमुनेच्या वाळवंटांत ते राती रासलिलेक सुरवात जाली. गायन - वादनाचे साथीचेर जसो जसो नाच सुरू जालो तसो तसो गोपींक आपल्या भाग्याचो गर्व जालो. तें पळोवन ताचो गर्व ना करपाक कृष्ण थंयचो नाच जालो. सगळयो गोपी व्याकूळ जाल्यो आनी कृष्णाक पुराय रानांत सोदूंक लागल्यो. थंयच्या झाडांझुडपांकडे, शेवण्यांकडे तांणी कृष्णाची चवकशी केली. पूण कृष्ण तांकां खंयच मेळळो ना. कृष्णावांगडा केल्ल्या लिलाची ताका याद जावंक लागली. त्यो कृष्णाच्या वेगवेगळया लिलांचें अनुकरण करूंक लागल्यो. ताचे भितरली एक गोपी कृष्ण जाली, दुसऱ्यो कांय जाण तांच्यो सवंगडी जाल्यो. कृष्णाचे वेगवेगळे खेळ खेळत तीं वृंदावनांत फिरूंक लागलीं. तेन्ना एकेकडे तांकां कृष्णाच्या पावलांच्यो कुरवो (पावलट) दिसल्यो. ताच्या लागसारच एके बायलेच्या पावलाच्यो कुरवो आशिल्ल्यो. तें पळोवन आपले आराधिके वांगडा एकांतांत क्रिडा खेळपाक कृष्ण गेला हें तांकां कळळें, तेन्ना कृष्णाच्या पावलांच्या कुरवांची सुलूस घेत तीं फुडें वचूंक लागलीं. तेन्ना तांकां एका जाग्यार कृष्णाची ती मोगी भान शेणिल्ले अवस्थेंत मेळळी. तिका कृष्णाविशीं विचारलें तेन्ना आपल्याक आपल्या भाग्याचो गर्व जाल्ल्यान कृष्ण आपल्याक सोडून गेलो अशें तिणें सांगलें. तें आयकून गोपी परत विलाप करूंक लागल्यो. कृष्णाची याद काडून काडून त्यो पुरायतरेन कृष्णमय जाल्ल्यो. तांच्या मनांतलो गर्व ना जालो, तेन्ना कृष्ण परत तांच्या मुखार प्रगट जालो. कृष्णाक पळोवन गोपी खोशी जाल्यो. ताका घेवन कृष्ण यमुनेच्या वाळवंटांत गेलो.

थंय गोपींनी फेर धरलो. कृष्णान आपलीं जायतीं रुपां केलीं आनी दोन गोपींमदीं एक कृष्ण अशें महावर्तुळ निर्माण जालें. ह्या वर्तुळाच्या मदीं उबो रावन बासरी वाजोवपाक आनीक एक कृष्ण निर्माण जालो. अशे तरेन शरद ऋतुच्या पुनवेचे चान्न्या राती कृष्णान गोपीं वांगडा रासोत्सव रचलो.



**रासनाच :** रासाचे नित्य रास, अवतरित रास आनी अनुकरणात्मक रास अशे तीन प्रकार मानिल्ले आसात. व्रजवृंदावनांत कृष्ण आपल्या आनंदप्रसरिणी शक्ती वांगडा सदांच रासक्रिडेंत गुल्ल आसता अशें कृष्णसंप्रदायी मानतात. हिकाच नित्यरास म्हण्टात. श्रीकृष्णान द्वापर युगांत आपले आनंद शक्तीवांगडा रसात्मक रुपांत अवतार घेतलो आनी जी रास क्रिडा केली तिका अवतरित रास अशें म्हण्टात. व्रजांतले भक्त लोक कृष्णाचे रासलिलेचें जें अनुकरण करतात तिका अनुकरणात्मक रास अशें म्हण्टात.

रासलिलेंतली मुखेल पात्रां म्हळ्यार श्रीकृष्ण, राधा, श्रीदामा, आनी ललिता आदी वज्रांगना. कृष्ण आनी राधा हांचे सेवेखातीर जायत्यो सखीय आसतात. तातूंत ललीता, विशाखा, सुचित्रा, चंपकलता, रंगदेवी, सुदेवी, तुंगविद्या आनी इंदूरेखा ह्यो मुखेल आसात. हें दर एके सखीचो एक एक युथ म्हळ्यार संच आसता. आपआपलो युथ घेवन युथेश्वरी ह्या रासांत येतात.

**नित्य रास :** हातूंत नाचाचो आस्पाव जाता. रास सुरू जावचे आदीं श्रृंगार कक्षांत कृष्णाच्या माथ्यार मुकूट चडयतात आनी ताका दिवे आनी निवेद्य दाखोवन ताची पुजा करतात. उपरांत कृष्ण विडो खावन रंगमाचयेर येता आनी राधेवांगडा सिंहासनार बसता. गोपीय रंगमाचयेर येवन बसतात. उपरांत रास मंडळीचो स्वामी येवन सगळया पात्रांची पुजा करता. गोपी - राधा - कृष्णाची आरती करतात आनी नित्यरासाची वेळ जाल्ल्याचें सुचयतात. उपरांत कृष्ण आनी राधा एकामेकांची तुस्त करून एकामेकांक रासमंडलांत उतरपाखातीर विनयतात. उपरांत सगळीं नाचाखातीर उबीं रावतात आनी स्वामी गीत गावंक सुरू करता. हें गीत अशें -

नाचत रास में रास - बिहारी नँचवत है ब्रजकी सब नारी<br>
तादीम - तादीम तत - तत थेई - थेई । थुंगन - थुंगन देत गति न्यारी<br>
ततत्ता थेई ततत्ता थेई ततत्ता थेई । तिटक तिटक धिलांग<br>
धिकतक, तोदीम धिलांग, तकतो<br>
ता धिलांग, धिग धिलांग, धिकतक<br>
तोदीम तोदीम, धेताम धेताम<br>
धिलांग धिलांग धिलांग तक गदगिन थेई<br>
ततत्ता थेई, ततत्ता थेई ततत्ता थेई ।।

हें गीत सुरू जातकच ताका वाद्याची साथ दितात आनी कृष्ण, राधा, गोपी तालार नाच सुरू करतात. अशे तरेन स्वामी एक एक गीत गायत रावता आनी त्या त्या गिताच्या तालार कृष्ण, राधा आनी गोपी नाचतात. मदीं मदीं दोहे, कविता, सवैयो आदी गावप जाता. अशा वेळार नाचपी लोक सुशेग घेतात. ते उपरांत सामुहिक गायन आनी रासनृत्य जाता. ह्यावेळार केन्ना केन्नाय टिपऱ्यांचे वा केन्नाय गोफ गुंफपाचे नाच जातात.

व्रज वाठारांत गुजरिया, मयूर, ताली, उंडा, पद, चलकला आदी रासांची नामना आसा. रासाचो प्रसार गुजरात, राजस्थान आनी मणिपूर ह्या वाठारांतय जाल्लो आसा.

**रासलीला :** रासनाचाच्या उपरांत रासलीलेची सुरवात जाता. हातूंत श्रीकृष्णाचे जीणेंतल्या कांय खाशेल्या प्रसंगांक लीलांचें रूप दिल्लें आसा. कृष्णजल्म, पुतनाउध्दार, कालियादमन, गोवर्धनधारण, कंसवध, उध्दवसंवाद आदी लिला भागवत पुराणाचेर आदारिल्ल्यो आसात. तशेंच अन्नप्राशन, चंद्राचें खेळप, श्याम सगाई आदी लिला सुरदास, नंददास ह्या सारक्या कवींच्या कवनांचेर रचिल्ल्यो आसा.

रासलिलेची रंगमाची उक्ती आसता. ल्हान ल्हान भुरगे कृष्णाचीं आनी गोपीचीं सवंगां करतात. तांकां संस्कृतप्रचूर ब्रज भाशेंतले व्हड व्हड संवाद, पदां रसिया पाठ आसतात. कृष्णाच्या माथ्याचेर मोराचो मुकूट, कपलाचेर चंदनाचो तिबो, गळयांत माळो आनी कानांत कुंडलां आसतात. राधेच्या आनी गोपींच्याय माथ्याचेर मुकूट आनी आंगार अलंकार आसतात.

समाजी म्हळयार वृंदवादन हें रासलिलेचें म्हत्वाचें आंग आसा. हार्मोनियम, सारंगी, मृदंग, झांज, बासरी, तंबोरो हीं वाद्यां

समाजी वाजयता. रासमंडलीचो स्वामी दोहा रसिया, कवित्त, सवैया, आदी पदां गावन रासलिलेचें निर्देशन करता. जेन्ना पदां गावप जातात तेन्ना तांचो अर्थ व्रज भाशेंत सांगतात.

व्रज प्रदेशांत जायत्यो रासमंडळयो आसात. ह्यो मंडळयो वृंदावनांत तशेंच हेर व्हड व्हड शारांत रासलिलेचे प्रयोग करून दाखयतात. ह्या मंडळयांत वृंदावनांतले स्वामी कुवरपाल शर्मा, स्वामी रामस्वरूप शर्मा आनी स्वामी हरगोविंद हांच्यो मंडळयो प्रसिद्द आसात. चडशा स्वामींनी बापायकडल्यान परंपरेन आयिल्लो वेवसाय आपणायतात. हे सगळे ब्राह्मणच आसात, तेचपरी रासलिलेंत भाग घेवपी किशोरय ब्राह्मणच आसतात आनी ते चडकरून रासधारी स्वामीच्या परिवारांतलेच आसतात. सात आठ वर्सांचीं जातकच भुरगीं रासलिलेंत काम करूंक लागतात आनी सादारण १२ वर्सांचीं जातकच तीं काम करप सोडून दितात. रासांतल्या कलाकारांनी गळयांत जानवें आनी माळो घालूंक जाय असोय नेम आसा. तेचपरी शुध्द जेवण आनी अध्ययन ह्यो गजालीय तांचे खातीर गरजेच्यो मानल्यात.

सद्याच्या काळांत कलात्मक नदरेन रासलिलेचो पावंडो उणो जायत चलला. आदल्या तेंपार ह्यो मंडळयो देवळांच्या आलाशिऱ्यान रावताल्यो आनी थंयच तातुंतल्या कलाकारांचें शिक्षण जातालें. तशेंच नेमान त्या देवळांनी रासलिलेचे प्रयोग करून दाखोवप जातालें. सद्याच्या काळांत देवळांचें उत्पन्न घटिल्ल्यान रासधारींक पोटाखातीर व्रजाभायर वचून व्हड शारांत प्रयोग करचे पडटात. थंयच्या प्रेक्षकांचे रुची प्रमाण तांकां रासलिलेंत हास्यविनोद, संवगां, गितां आनी सादारण काव्य हांचो आस्पाव करचो पडटा. ताका लागून मूळचे भावगंभीर रासलिलेपसून सद्याची रासलिला खुबूच वेगळी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रासो काव्य :** वीररसात्मक काव्य. ह्या काव्यांत राजाचे आश्रित, चारण वा भाटांनी राजा तशेंच वीरपुरुशांनी युध्दाच्या वेळार दाखयल्ली वीरता आनी तांच्या मोगा विशींचें पद्यमय वर्णन डिंगल ह्या पोरन्या राजस्थानी मिश्रीत हिंदी भाशेंत केल्लें आसता. चारणांनी रचिल्ल्या ह्या काव्याक 'चारण काव्य' अशेंय म्हण्टात. ह्या काव्याचो रचणुकेचो काळ इ. स. चो १० वो शेंकडो ते १८ वो शेंकडो अशें मानतात. ह्या काव्याच्या प्रकारांतल्या म्हत्वाच्या एका काव्यांत, 'वीसलदेवरासो' त 'रसायण' उतराचो उपेग परतून परतून जाला. ताचेवयल्यान 'रहस्य' आनी उपरांत 'रासो' अशी ह्या उतराची व्युत्पत्ती मानतात. रसायण ' रहस्य ' रासो.

हिंदी साहित्यांत हीं काव्यां काव्यतत्त्वाचे आनी काव्यगुणांचे नदरेन चड म्हत्वाचीं आसात. रासोकाव्यानच हिंदी साहित्याच्या सुरवेच्या काळांतल्या चडशा साहित्याची निर्मणी जाल्या. त्यावेळच्या सोबीत, सुवेवस्थित आनी साहित्यिक भाशेची उत्तम देख म्हूण ह्या 'काव्या' कडेन पळोवंक येता. ह्या काव्यांत त्याकाळावयल्या छप्पय, कवित्त, दूहा वा दोहा, तोमर, शार्दूलविक्रिडित, स्यग्धरा, त्रोटक, आर्या, अडिला, ढोसा, मात्रा, रड्ढा, धत्ता, पध्दडिया अशा जायत्या छंदांचे प्रयोग जाताले. अपभ्रंशाच्या चडशा छंदपंडितांनी रासो छंदाचें लक्षण सांगलां आनी रासक वा रासाबंध नांवान चालंत आशिल्ल्या काव्यरुपाचेंय लक्षण सांगलां. विरहांक हाणें 'वृत्त जातिसमुच्चयांत' म्हळां :

अडिलाहि दुवहएहिं व मत्तारड्डहिं तहअ दोसाहिं '।
बहुएहिं जो रइज्जइ सो भण्णइ रासओ आम ।।'

**अर्थ :** जातूंत चडशे अडिला, दुवहअ, मात्रा, रड्डा आनी ढोसा हे छंद आसात ते रचनेक रासक म्हणचें.

जाल्यार स्वयंभू हाणें 'स्वयंभूछंदस्' हांतूत म्हळां -.
'धत्ता छड्डणि आहिं पध्दडिया सुअण्ण रुएहिं ।
रासाबंधो कव्वे जण - मण अहिराम होई ।।'

म्हळयार - काव्यांत रासकाव्य हें धत्ता, छप्पय, पध्दडिया आनी हेर जायत्या रुपकांवरवीं मनभुलोवणें जाता.

ह्या काव्याचो मुखेल रस हो वीर आनी शृंगार आसतालो. झुजाचें सुंदर आनी जीवें वर्णन, कल्पनांनी भरिल्लीं वर्णनां आनी विशयाक तशेंच आशयाक फावो तशी ओजस्वी भास हीं ह्या काव्याचीं खाशेलपणां आसात.

हातूंत नृत्यगीतांची परंपरा आशिल्ली तशी छंदांची विविधताय आशिल्ली म्हळयार रचनेंत वेगळया वेगळया छंदवृत्तांचो वापर करून निरवटें वाचन करपाखातीर बरयल्लीं, अशे दोन परंपरागत काव्यप्रकार मेळटात. नाचून, गावन, अभिनय करून दाखोवपी रासो काव्याचे परंपरेक जैन परंपरा म्हूण वळखतात. जैन धर्मासिंबंदीचे विचार आनी तांचे तीर्थंकर, धर्मोपदेशक आनी संघपती हांचीं चरित्रां तशेंच धर्मोपदेशाचीं वर्णनां हो ह्या रासोकाव्याचो मुखेल उद्देश जावन आसा.

नरपती नाल्ह ह्या रासो कवीचें वीसलदेवरासो हें काव्य. इ.स. ११५५ हो ह्या काव्याचो रचनाकाळ मानतात. तरीकूय ह्या काळासंबंदान दुबाव आनी मतमत्तांतरां आसात. कांय जाण इ. स. १२५५ हो काळय हाचो रचनाकाळ म्हण्टात. देखवीक -

'बारह सै बहोत्तराहां मँझरि । जेठवदी नवमी बुधिवारि ।
नाल्हरसायण आरंभई । सारदा तूठी ब्रह्मकुमारि ।
कासमीरा मुख मंडनी । रास प्रसागो वीसलदेराई ।।'

ह्या श्लोकांतले पयले वळीवयल्यान इ. स. १२७२ वर्साचो उल्लेख मेळटा. हिंदींतल्या डॉ. मोतीलाल मेनारिया, माताप्रसाद गुप्त सारकिल्या कांय विद्वानांनी ह्या ग्रंथाक आदिकाळांतली रचना मानूंक ना.१४ व्या, १६ व्या शतमानांतल्या नरपती नांवाच्या एका गुजराती कवीकडेन ताचो संबंद आसुंये अशें मत उक्तायलां. पूण ह्या काव्याची एक प्रत अशी मेळळया जिचेर ताचो रचनाकाळ इ. स. १०१६ अशें मेळटा. तातूंत ''संवत् सहस तिहत्तर जानि, नाल्ह कविसा सरसीय वाणी'' अशो वळी बरयिल्ल्यो मेळटात.

'वीसलदेवरासो'क हिंदी साहित्याच्या आदिकाळांतलें श्रेश्ठ आनी म्हत्वाचें तशेंच पयलें काव्य मानतात. हें मुळांत गेय काव्य आशिल्लें. ताकालागून काळमानाप्रमाण ताच्या स्वरुपांत बदल जायत गेले. हो ग्रंथ पुराय स्वरुपांत उपलब्ध ना. पुण डॉ. माताप्रसाद गुप्त हांणी ताचे १२८ छंद संपादीत केल्ली एक प्रत सिध्द केल्या. ताचे वयल्यान ह्या काव्याची भास ही आदिकाळांतले हिंदीचें सहज, सोंपें रूप दारवोवपी भास आसा अशें दिसता. हे भाशेंत अपभ्रंश आनी हिंदी भाशेचीं रुपां मेळटात.

पुराय रुपांत नाशिल्ल्या ह्या काव्याचें कथानक चार भागांनी वांटलां. भोजपरमार राजाची कुंवर राजमती आनी अजमेरचो राजा तिसरो विसलदेव हांच्या लग्नाचें वर्णन पयल्या खंडांत, दुसऱ्या खंडांत राजमतीन केल्ल्या अपमानान दुखावल्ल्या वीसलदेवान रागान ओरिसाक युध्दाखातीर वचप हाचें वर्णन, तिसऱ्या खंडांत विरहान जळपी अश्रेवणी लागिल्ल्या राजमतीचें दूख आनी चवथ्या खंडांत राजमती एका पंडिताकडल्यान वीसलदेवाक संदेश धाडटा आनी तो येतकच शृंगारून ताचे भेटेक कशी वता हाचें चित्रण आयलां. ह्या काव्यांत वीररसाचें चित्रण जालांच पूण शृंगारांतल्या वियोगाचें आनी संयोगाचेंय नकसूद चित्रण आयलां. कुलीन राजमतीच्या स्वभावाचें संयमित चित्र दोळयांमुखार उबें करपांत कवी जैतिवंत जाला. देखीक -

"अस्त्रीय जनम काईं दीघऊ महेस ।
अवर जनम थारई घणा रे नटेस ।
राणि न सिरणीय धडलीय गाइ ।
वणषण्ड काली कोईली ।
हऊं बइसती अंबा नइ चंपाकी डाल ।
भषती दाष बीजोरडी ।
इणि दुष झूरइ अवलाजी बाल ।" अशे तरेन तिचे विरही अवस्थेचें चित्र चड प्रभावी करपाखातीर कवीन सैमाच्या वर्णनाचोय आदार घेतला. ह्या काव्याचे ५०० परस चड छंद मेळटात. पूण तातुंतले १२८ छंदच प्रमाण मानतात. गीत - नृत्याचे परंपरेंतलो वीसलदेव रासो होच एक रासो जैनाभायरो आसा.

ह्या काव्याच्या सांगातान हिंदींतली शृंगार काव्याची परंपरा मुखार चलत रावली. विद्यापतीसावन सुरू जाल्ली ही परंपरा भक्तीकाळांत प्रेमाख्यानक कविता आनी मुखार रीतिकाळांत शृंगार काव्य म्हूण विकास पावली.

जैन परंपरेंतल्या ह्या रासो काव्याच्या आनीक कांय मुखेल कवींची आनी तांच्या काव्यांचीं नांवां अशीं आसात -

जीनदत्त सूरी हाचो रचनाकाळ इ.स. १२०० उपरांत मानतात. ताणें रचिल्ल्या 'उपदेश रसायनां' त ३२ तरांचे छंद आसून जैन धर्मा संबंदींचो उपदेश हो ताचो विशय आसा. शालीभद्र सूरी हाणें 'भरतेश्वर बाहुबली रास' हें इ.स. १२३१ वर्सा 'बुध्दीरास'. इ.स. १२४१ वर्सा आनी 'पंचपांडवरास' हें इ.स. १४१० वर्सा बरयलें. पयल्या काव्यांत २०३ छंद आसून ऋषभदेव राजाचे दोन चले भरतेश्वर आनी बाहुबली हांच्यामदल्या सत्तेच्या झुजाची कथा आयल्या. दुसऱ्या काव्यांत ६३ छंद आसून तातूंत जैन धर्माचो उपदेश केला. तिसरें रासोकाव्य ७९० छंदांचें आसून पांडवांच्या चरित्राचें वर्णन केल्लें आसा.

आसगू हाणें 'जीवदया रास' आनी 'चंदनबालारास' ही १२५७ त रचून दयाधर्माचो उपदेश आनी चंदनबालेची धर्मीक कथा हे दोन विशय अनुक्रमान वर्णिल्यात. धर्मसूरी हो त्यावेळावयलो आनीक एक रासोकवी. ताचो रचना काल निश्चिततायेन खबर ना. पूण 'जंबूस्वामी रासो' ह्या काव्यांत ताणें जंबूस्वामीच्या चरित्राचें वर्णन केल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

विजयसेन सूरी हाणें 'रेवंतगिरीरासू' हें इ. स. १२८८ त बरयलें. ह्या काव्यांत गिरनारांतल्या जैन मंदिराच्या जीर्णोध्दाराची कथा ७२ छंदांत वर्णील्या. तेच प्रमाण पाल्हण हाणें 'नेमिजिर्णद रासो' ची रचना इ. स. १२०६ त केल्या. ह्या काव्यांत ५४ छंदांची रचना जाल्ली आसा. इ. स. १३०० तल्या देल्हणी ह्या कवीन 'गयसुकुमालरास' ह्या नांवान गयसुकुमाराचें चरित्र ३४ छंदांतल्यान वर्णन केल्लें आसा. गुजरातांतलो आनीक एक कवी मंडलिक हाणें संघपती पेथड हाचें चरित्र 'पेथड रास' ह्या नांवान इ. स. १३६० त रचलां. ताणें ह्या काव्यांत ६५ छंदांचो उपेग केला.

अंबदेव सूरीचो रचनाकाळ इ. स. १३७१ मानतात. 'समरारासू' ह्या नांवाचें आती समरा ह्या संघपतीचें ११० छंदांतलें चरित्र तातूंत वाचूंक मेळटा.

रासोकाव्याची दुसरी परंपरा वीरगाथेच्या रुपांत बरयिल्ली मेळटा. ती जैन रासोकाव्यापरस वेगळी आसा. दोगांचेय रचणुकेचे शैलींत वेगळेंपण आसा. ह्या काव्याच्या विरायवस्तुचो मुळावो संबंद राजाचें चरित्र वा ताची तोखणाय करप हो आशिल्ल्यान हाची लांबाय कवीच्या मरणाउपरांतय वाडत वता. ह्या काव्यांत तेवेळचे राजनीतीक परिस्थितीचें पडबिंब पडलां. पूण चडशा काव्याचे नायक काल्पनिक आशिल्ल्यान ताका इतिहासीक म्हत्व चडशें ना. पूण काव्यगुणांच्या बाबतींत मात तें सरस आसा. हातूंत वीर रसाचो आविश्कार पुराय कळाशीन आनी प्रौढतायेन जाला. तांच्यांतलीं झुजांचीं वर्णनां जितीजीवीं दिसतात आनी तीं ओजगुण आनी गौडीरीतीक पोसवण दिवपी जाल्यांत. ह्या सांगतात रौद्र, बीभत्स वा भयानक ह्या रसांचोय फावोतसो वापर कवींनी करून ह्या काव्याक सोबीतकाय हाडल्या.

हीं रासोकाव्यां पळयतकच अशें दिसता, मूळ रचपी ज्या राजाची वीरगाथा रचताले त्या राजाचे वंशजय आपल्या आश्रित कवींच्या आदारान मुखार आपणाल्याय चरित्रांचो आस्पाव करताले. देखून ह्या काव्यांनी मध्यकालीन राजांचेंय वर्णन मेळटा तेचतरेन

उपरांतच्या भाशेच्योय प्रती मेळटात आनी हाकाच लागून तांच्या अस्सलतायेचो दुबाव अभ्यासकांक येवप सभाविक जाला.

छंदांची विविधताय आशिल्ल्या रासो काव्याच्या दुसऱ्या प्रकारांत अपभ्रंशकाळांतलीं दोन रासोकाव्यां मेळटात. हेमचंद्राचें 'मुंजरासो' (इ. स. १०५४ ते ११९७ ह्या काळांतलें) आनी अब्दुर्रहमानाचें 'संदेशरासेक'. पयल्या काव्यांत मुंजराजाचें चरित्र १६ छंदांत आनी ६ वृत्तांत आयलां जाल्यार दुसऱ्यांत एका मोगिकेच्या विप्रलंभशृंगाराचें २२३ छंदांत आनी वेगवेगळ्या वृत्तांतलें वर्णन आयलां.

चंदवरदाई हांणी ११६१ वर्सा बरयिल्लें 'पृथ्वीराजरासो' नांवाच्या रासो काव्याक हिंदींतलें लिखित रुपांतलें पयलें महाकाव्य अशें मानतात. हाचीं चार संस्करणां मेळटात. तातूंत सुमार ६९ 'समय' म्हळयार खंड आनी ७० छन्द आसात. पिंगल शैलींत बरयिल्ल्या ह्या काव्याची कथा पृथ्वीराजाच्या जायत्या झुजांकडेन तेच तरेन ताणें वेळच्यावेळार केल्ल्या लग्नांकडेनय संबंदीत आसा. वीररसात्मक काव्यांत शृंगाररसय भरसून आयला. तशेंच विशयाक फावो थंय वीर आनी रौद्र रसांतलीं कठोर पदां जाल्यार शृंगार प्रसंगावेळावयलीं कोमल नाजूक अशीं पदां रचल्यांत. देखीक, पळेयात -

'मनहुं कला ससिभान कला सोलह सो बन्निय ।
बाल बैस ससि ता समीप अमृत रस पिन्निय ।
बिगसि कमल स्त्रिग भ्रमर नैनु खंजन म्रिग लुट्टिय ।
हीरकीर अरू बिम्ब मोती नख सिख अहिघुट्टिय ।
छत्रपति गयंद हरि हंस गति बिह बनाय संचै सचिय ।
पद्मिनी रूप पद्मावतिय, मनहुँ काम कामिनि रचिय ।।''

अस्तुरीच्या सुंदरकायेचें वर्णन करून वीर आनी शृंगार रसा सांगातान हेर रसांची येवजण करपांत चंदवरदाई पाटांगडो आशिल्लो.

एका 'हम्मीर रासो' चो बरोवपी महेश आसा. हाच्या 'प्राकृत-पैंगलम्' त मेळिल्ल्या कांय छंदांवयल्यान ह्या काव्याची कल्पना केल्या. रथमौराचो राजा हम्मीर वा अमीर आनी अल्लाउद्दीनाच्या झुजाचें वर्णन तशेंच हम्मीराची तुस्त तोरवणाय ३०० छंदातल्यान केल्या. जाल्यार ह्याच शीर्शकाच्या दुसऱ्या रासोकाव्याचो रचपी जोधराज मानतात. हाचो रचनाकाळ इ.स.१७८५. हातूंतय हम्मीर राजाच्या चरित्राचें वर्णन आयलां.

उत्तर प्रदेशांत 'आल्हा खंड' नांवान जें काव्य प्रचलित आसा तेंच 'परमाल रासो' चें मुळावें आनी खरें रूप मानतात. हाचो कवी जगनिक. पूण 'परमाल रासो' ची खंयचीच प्रत उपलब्ध नाशिल्ल्यान ताच्या साहित्यिक गुणांविशीं कांयच सांगपाक येना. हें काव्य गेय स्वरुपांतलें आशिल्ल्यान तातूंत उपरांतच्या काळांत नवे नवे श्लोक वा पदां भरसून गेलीं आनी हाच्या मूळ स्वरूपांत बदल जायत गेल्ल्यान मूळ रुपांतलो खंयचोच अंश शुध्द रुपांतल्यान मेळना. पूण छंद - विधानाचे नदरेंतल्यान ह्या काव्याची एक खाशेली शैली आसा तिका 'आल्हशैली' मानतात. देखीक पळेयात -

''बारह बरसलौं कूकर जीवै, अस तेरह लौं जियै सयार ।
बारह अठारह क्षत्रिय जीवैं, आगे जीवन कौं धिक्कार ।।''

ह्या काव्याची कथा म्हळयार परमाल आनी पृथ्वीराज हांचेमदीं नहोबाच्या लागसार जाल्ल्या युध्दाचें वर्णन. आल्हा आनी उदल हे परमालाचे सामंत. कांय कारणांक लागून ताका सोडून जयचंदराजा लागीं वचून रावले. पृथ्वीराजान परमालाचेर घुरी घालतकच परमाल तांकां आफोवन हाडटा आनी तेय राजाक आदार दितात. पृथ्वीराजा आड जाल्ल्या झुजांत हे दोगय जाण वीरगतीक पावून परमाल हारता.

नल्हसिंह भट्टान इ. स. १२६८ त 'विजयपाल रासो' ह्या अपभ्रंशांतल्या रासोकाव्याची रचना केली. ४२ छंदांतल्यान विजयपालाच्या झुजाचें ओजस्वी शैलींत ताणें वर्णन केलां.

दलपत विजय हाणें 'खुमाण रासो' नांवाचें रासो काव्य बरयलां अशें मानतात. ह्या काव्याची जी प्रत मेळ्ळया ती पुराय नाशिल्ल्यान ह्या काव्याच्या रचनाकाराविशींय टीकाकारांच्या मनांत दुबाव आसा. इ.स. ८१० सावन इ.स. १००० हाचे मदीं जे तीन वेगवेगळे खुमाण चितोडचे राजा जावन गेले तांच्या झुजाचें हें चित्रण. देखून कांय विद्वान ही रचना १७ व्या शतमानांतली अशें मानतात. हाचें कारण १७ व्या शेंकड्यांतल्या राजांचेंय वर्णन हातूंत मेळटा. पुण आ. रामचंद्र शुक्ल हिका णवव्या शतमानांतली रचना मानतात. खरें पळयल्यार ह्या काव्याची मूळ रचना णवव्या शतमानांतच जाल्या हाचो पुरावो त्या काव्यांतच आसा. तो म्हळयार ह्या काव्यांत तेवेळच्या राजाचें जीवें वर्णन, तेवेळच्या समाज परिस्थितीचें फावो तितलें गिन्यान आनी हिंदी भाशेचीं आरंभिक काळांतलीं रुपां.

हें काव्य पांच हजार छंदांचें आसून राजांचीं झुजां आनी तांच्या लग्न सुवाळ्याचीं वर्णनां हीं ह्या काव्याची फाटभूंय. संदर्भाप्रमाण तातूंत नायिकाभेद, सत्रृतुंचीं वर्णनां मेळटात. पूण राजाची तुस्ततोरवणाय होच खरो विशय जावन आसा. वीर रसासांगातान शृंगार रसाचोय फावोसो प्रयोग सुरवेक सावन निमाणेमेरेन जाला. हातूंत दोहा, सवैया, कवित्त अशे छंद आसात. राजाचीं वर्णनां आसूनय तीं काव्यात्मकतायेच्यो सरस अशो देखी थारल्यात. देखीक :

''पिड चितोड न आविऊ, सावण पहिली तीज ।
जोवै बार बिरहिणी, खिण - खिण अणवै खीज ।।
संदेसो पिण साहिबा, पाछो फिरिय न देह ।
पंछी घाल्या पिंझरें, छटण रो संदेह ।।''.

भट्टकेदार हाणें इ. स. ११६८ त 'जयचंद प्रकाश' नांवाचो रासोकाव्यग्रंथ रचिल्लो असो उल्लेख मेळटा. जाल्यार मधुकर कविन इ. स. ११८३ त 'जयमयंक जस चंद्रिका' बरोवन जयचंद राजाची तोरवणाय वर्णिल्या. 'शारंगधर पध्दती' हो सुभाशितांचो ग्रंथ बरोवपी शारंगधर (इ. स. १३००) होय रासो कवी अशें मानतात. ते भायर 'रामरासो', 'राणारासो', 'रतनरासो' (कुंभकर्ण इ.स. १६७५)

'कायमरासो', 'शत्रुसाल रासो' (डुंगरसी १७१०), 'मांकण रासो' (कीर्त्ति सुंदर इ. स. १७५७), 'सगतासिंह रासो' (गिरिधर चारण इ. स. १७५५), 'हम्मीर रासो' (महेश कवी), 'हम्मीर रासो' (जोधराज १७८५), 'रासा भगवंत सिंह का' (सदानंद), 'करहिया कौ रायसो' (गुलाबकवी) 'रायसा' आनी 'रासा भइया बहादुर सिंह का' (शिवनाथ) 'कलियुग रासो' (अलिरसिक गोविंद १८६५), 'पारीछंत रायसा' (श्रीधर १८७३) अशे आनीक जायत्या ल्हान व्हड कवींचीं रासो काव्यां आसात अशे उल्लेख मेळटात. पूण ह्या कोणाचेंच काव्य उपलब्ध नाशिल्ल्यान तांच्या सत्यतायेची आनी काव्यगुणांची चर्चा स्पश्टतायेन करपाक येना.

ह्या काव्याक रास, रासा, रायसा, रासक, रासू वा रासो अशें म्हण्टाले. रासोकाव्य हें त्यावेळच्या सुंदर, सुवेवस्थित साहित्यिक भाशेची बरी देख आसा. तातूंत त्या काळांत चालंत आशिल्ली कवित्त, छप्पय, दूहा, तोमर, शार्दूल विक्रिडित, स्त्रग्धरा, त्रोटक, आर्या अशे तरेच्या जायत्या छंदांचो प्रयोग जातालो. अपभ्रंश भाशेंतल्या जैन रासो काव्याची रचना पश्चिम राजस्थानांत आनी गुजरातेंत जाताली जाल्यार छंदबध्द रासो काव्याची भास आर्विल्ली (आधुनिक) हिंदी आसून तांची रचना हिंदी प्रदेशांतले कवी मुखेल करून करताले. पयल्यांत धर्मीक नदर म्हत्वाची दवरून रचना जाताली जाल्यार दुसऱ्यांत निरवटी साहित्यिक नदर मुखेल मानून रचना जाल्ली.

वीरकाव्याची ही हिंदी साहित्याच्या आदिकाळांतली परंपरा आदिकाळाच्या उपरांतय चालंत उरल्या. भक्तीकाळांत पृथ्वीराज दुरसा, बाँलीदास, सूर्यमल्ल हांणी जाल्यार रीतिकाळांत भूषण, लाल, सूदन हांणी वीर काव्यां बरोवन ती परंपरा जीवी दवरली. हे वटेन आधुनिक काळांत मैथिलीशरणगुप्त आनी रामधारीसिंह 'दिनकर' सारकिल्या कवींनीय जायतीं वीरकाव्यां रचल्यात.

- प्रियदर्शिनी सु. तडकोडकार

**राहू** : नवग्रहांतलो आठवो ग्रह. विप्रचित्ती आनी सिंहिका हांचो चलो. भागवताच्या मतान हो कश्यप आनी दनू हांचो पूत. ताचो आकार वांटकुळो. राहू आनी केतू मेळून मुळांत एकच मनीस आशिल्लो. देव दानवांनी केल्ल्या समुद्रमंथनांतल्यान अमृत भायर आयलें. मोहिनी रुपांत विष्णून तें अमृत देवाक वाट्टा आसतना राहू देवाचे पंगतीक चोरून बसलो. सूर्य - चंद्रान ताचें हें कपट उगडकेक हाडलें. विष्णून ताची तकली कापली. तेन्ना धडाचो जालो राहू आनी तकलेचो जालो केतू. त्या दोगांयनी सूर्य - चंद्राविशीं राग धरलो, त्या रागान अजूनय पर्वकाळांत राहू - केतू, सूर्य - चंद्राक गिळूंक पळेतात, अशी तांचे संबंदीं कथा घोळणुकेंत आसा.



वेदांत राहूक स्वर्भानू म्हळां. राहू तमोगुणी आसून नैऋत्य दिशेचो स्वामी आसा. ग्रहशांतींत 'कया नश्चित्र' ह्या ऋग्वेदांतल्या मंत्रान राहूच्या निमतान दर्भांचें हवन करतात. ग्रहशांतीत राहूचें गोत्र पैठीनस अशें सांगिल्लें आसा. बृहत्पाराशरी होरा ह्या ग्रंथांत ताका चांडाल जातीचो म्हळां. बर्बर देशार ताची सत्ता चलता. हाचें वाहन काळो शींव आसून शिंशें हो ताचो धातू, गोमेद हें रत्न आनी तीळ हें धान्य आसा. नीळें वस्त्र आनी कृष्ण फूल ह्यो ताच्यो दानवस्तू आसात.

हो ग्रह आदल्या जल्माच्या कर्माचो बोध करता. ताकालागून ह्या जल्मांत खंयच्या दोशांक लागून मनशाचें खाशेले तरेचें सुख ना जातलें हे संबंदींचें विवेचन बृहत्पाराशरी होरा ह्या ग्रंथांत केल्लें आसा. हो ग्रह अनिश्ट सुवातेर पडल्यार पिशाचबाधा जाता अशें सर्वार्थचिंतामणींत म्हळां.

आंग्ल जोतिशी विल्यम लिली हाच्या मतान राहू हो पुरूशप्रकृतीचो आसून तो गुरू - शुक्राच्या स्वभावधर्माचो आनी भाग्यवृध्दी करपी आसा. तो गुरू - शुक्रावरी शुभ फलदायी आसा. हो जेन्ना हेर अशुभ ग्रहांवांगडा आसता तेन्ना तो तांचे अशुभ धर्म उणे करता. जेन्ना तो शुभ ग्रहान युक्त आसता तेन्ना ताच्या शुभ धर्माची वाड करता.

अस्तंत ज्योतिशग्रंथांत राहू - केतूक सर्पाकार मानिल्ले आसात. बृत्पाराशरीत वृषभ राशी ही ताची उच्च रास आनी कन्या ही स्वगृह रास सांगिल्ली आसा. भोंवडेचो वेळ, सोरोप, रात, द्यूत, यश, प्रतिश्ठा, छत्रचामरादी राजयोग हांचो राहू कारक आसा.

खरें म्हळयार राहू आनी केतू हे दोगय हेर ग्रहांवरी दिसपी ग्रह नात. ते दोगय म्हळयार दोन संपात बिंदू. ज्या वाटकुळां मार्गान धर्तरे भोंवतणी चंद्र फिरता तो मार्ग आनी ज्या मार्गान धर्तरी सुर्याभोंवतणी फिरता तो मार्ग हे दोन मार्ग अवकाशांत एकामेकांक ज्या दोन वेगवेगळया जाग्यांर छेदतात तातुंतल्या एका छेदन बिंदूक राहू आनी दुसऱ्या छेदन बिंदूक केतू म्हण्टात. ह्या दोनय छेदन बिंदूंक गती आसा. देखून फलजोतिशांनी ताका स्वतंत्र ग्रह मानून तांची सुवात एकामेकांमुखार म्हळयार १८० अंशार कल्पिल्ली आसा. मेषादी राशींत ते फुडें फुडें वचनासतना फाटीं फाटीं येत आसता. सुर्याभोंवतणी एक प्रदक्षिणा करपाक १८ वर्सां लागता.

दोसाद आनी धनगर हे राहूक देव मानून ताका भजतात.

राहूविशीं लंकेत लोककथा आसा ती अशी - विष्णुक जेन्ना धर्तरी निर्माण करपाची आशिल्ली तेन्ना तो राहूकडे विचारारवातीर गेलो. राहून ताका कमळाचें बीं दिलें. विष्णुन तें दर्यांत रोयलें. ताचेपसून कमळ तयार जालें. ताच्या देंठाक धरून राहू दर्याच्या

तळाक गेलो आनी थंयच्यान चिमटीभर माती घेवन वयर आयलो. तिचीच फुडें धर्तरी जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**राहूल सांकृत्यायन :** (जल्म : ९ एप्रिल १८९३, कनैला, जि. आझमगढ, उत्तर प्रदेश; मरण : १४ एप्रिल १९६३, दार्जिलिंग).



संवसारीक नामनेचो भारतीय महापंडित आनी लेखक. ताचें मूळ नांव केदारनाथ आनी कुलनांव पांडे. ताच्या बापायचें नांव गोवर्धन आनी आवयचें नांव कुलवंती. ब्राह्मण कुटुंबांत जल्मल्ल्या केदारनाथान बौध्द धर्माची दीक्षा घेतकच राहूल हें नांव घेतलें आनी 'सांकृत्य' हें ताचें गोत्र आशिल्ल्यान ताका 'राहुल सांकृत्यायन' अशी नामना मेळ्ळी.

पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा उर्दू मिडल स्कूल परीक्षा पास जातकच तो घरांतल्यान पळून गेलो. ताचे पयलीं इकराव्या वर्सा ताणें लग्न केल्लें, पूण नेण्टेपणांत केल्लें लग्न म्हणून ताणें हें बंधन मानलेंना.

पिरायेच्या अठराव्या वर्सा तो वाराणसीक गेलो. थंय ताणें संस्कृत आनी भारतीय तत्त्वज्ञानाचें अध्ययन केलें. साधू जावपाची ताची विरक्त वृत्ती पळोवन छप्रा गांवच्या एका महंतान ताका वैश्णव धर्माची दीक्षा दिली आनी ताचें पंथीय नांव 'रामोदार साधू' अशें दवरलें. थंय कांय काळ मठपती म्हणून रावन उपरांत तो दक्षिण भारताचे तीर्थयात्रेक गेलो. ताणें सबंद भारताची भोंवडी केली. उपरांत तो अयोध्येक गेलो आनी संस्कृत पाठशाळेंत ताणें वेदान्ताचो खोलायेन अभ्यास केलो. आर्यसमाजाकडे आकृश्ट जाल्ल्यान ताणें दयानंदाच्या सत्यार्थ प्रकाशाचें खोलायेन अध्ययन केलें. अयोध्येसावन आग्र्याक वचून तो थंयच्या आर्यसमाजाच्या विद्यालयांत गेलो. किरिस्तांव आनी इस्लाम धर्मीय आपल्या धर्मप्रसाराखातीर खूब यत्न करतात आनी हिंदुंचेर आघात करतात, तेरखातीर ताणें विरक्त, विद्वान आनी संघटनाकुशल अशां हिंदू तरनाट्यांची मिशनरी वृत्तीन काम करपी संघटना उबी केली.

१९१७ वर्सा रशियांत जाल्ले क्रांतीन प्रभावित जावन तो क्रांती आनी साम्यवादाकडे आकृश्ट जालो. ताणें साम्यवादी तत्त्वज्ञान अभ्यासून 'बाइसवी सदी' (१९३३) हो ग्रंथ बरयलो. मार्क्सवादाचेरय ताणें खूब लिखाण केलां. राजनीतिचेर ताणें ग्रंथ बरयल्यात ते अशे - साम्यवाद ही क्यों ? (१९३४), सोविएत न्याय (१९३९), मानव समाज (१९४२), आजकी समस्याएँ (१९४४), आजकी राजनीति (१९४९). उपरांत तो बौध्द धर्माकडे आकृश्ट जावन ताणें पाली भाशा साहित्याचें आनी बौध्द - धर्म - तत्त्वज्ञानाचें सखोल अध्ययन केलें. लखनौच्या बोधानंद भिक्षू हाचेवांगडा ताणें जायत्या बौध्द तीर्थक्षेत्रांची यात्रा केली. भारताभायरूय बौध्द धर्माचो खूब प्रसार आसा अशें कळटकच ताणें त्या त्या देशांच्यो भाशा आनी लिपींचो अभ्यास केलो. १९३० वर्सा ताणें श्रीलंकेंत वचून बौध्द धर्माची दीक्षा घेतली. मजगतीं १९२१ वर्सा ताणें गांधीजीवांगडा स्वातंत्र्य आंदोलनांत वांटो घेतलो. १९२२ वर्सा स म्हयने आनी १९२३ ते २५ ह्या काळांत दोन वर्सां ताणें बंदखणूय भोगली. १९२७ वर्सा तो बौध्द धर्माच्या अभ्यासाखातीर संस्कृताचो अध्यापक म्हणून श्रीलंकेंत गेलो. फुडें चड खोलायेन अध्ययन करपाखातीर तो नेपाळ मार्गान तिबेटांत ल्हासा हांगा गेलो. १९३० वर्सा तो परतून श्रीलंकेंत गेलो. १९३२ वर्सा तो बौध्द धर्मप्रचाराखातीर लंडनाक आनी थंयसावन युरोपांत गेलो. थंय तीन म्हयने रावन १९३३ वर्सा तो परतून युरोपांतल्यान श्रीलंकेंत वचून थंयसावन भारतांत आयलो आनी परतून दुसरे खेपे जम्मू - काश्मीरांतल्यान लडाखाक गेलो. हे भोंवडेंत ताणें सुत्तपिटकांतलो नामनेचो ग्रंथ माज्झिमनिकायचो हिंदींत अणकार केलो (१९३३). उपरांत ताणें धम्मपद (१९३३), विनयपिटक (१९३४), दीघनिकाय (१९३५) हांचे हिंदींत अणकार केले. आनंदकौशल्यायन आनी जगदीश काश्यप हांच्या सहकार्यान ताणें खुद्दकनिकायाचे इकरा ग्रंथ देवनागरींत हाडले. तशेंच ताणें बुध्दचर्या (१९३०), महामानव बुध्द (१९५६) हे बुध्दाचें चरित्र आशिल्ले ग्रंथ हिंदींत बरयले.

१९३४ वर्सा तो भूंयकांप पिडेस्तांक आदार करपाखातीर बिहारांत रावलो. थंयसावन तों सिक्कीमांतल्यान परतून, भारतांत उपलब्ध नाशिल्ल्या संस्कृत ग्रंथांचो सोद घेवपाखातीर तिबेटांत ल्हासा हांगा गेलो. उपरांत उदेंतेकडल्या बौध्द धर्मीय देशांनी म्हळयार ब्रह्मदेश, थायलंड, जपान, कोरिया हांगा गेलो. १९३५ वर्सा तो जपानाक पावलो. थंयसावन परतून तो नेपाळांतल्यान तिबेटांत गेलो आनी थंय ताका म्हत्वाचे प्राचीन ग्रंथ मेळ्ळे. ते ताणें भारतांत हाडले. ताणें तिबेटी ग्रंथ 'कंजूर' (मूळ बुध्दवचनांचे अणकारीत - ग्रंथ संख्या - ११०८) - 'तंजूर' (अणकारीत भाश्यग्रंथ - संख्या - ३४५८) सयत, तशेंच जायत्यो संस्कृत हातबरपांच्यो छायाप्रती वा नकलो करून हाडल्यो. म्हत्वाचें ग्रंथभांडार पाटणाच्या 'बिहार रिसर्च सोसायटी' आनी 'के. पी. जयस्वाल रिसर्च इन्स्टिट्यूट'च्या ग्रंथालयांत दवरलां.

भारतांतल्यान नश्ट जाल्ल्यो प्राचीन संस्कृत ग्रंथांच्यो छायाप्रती ताणें तिबेटांतल्या मठांतल्यान हाडल्यो. तातूंत वसुबंधुकृत अभिधर्मकोश - भाष्य, अभिधर्मदीप; महासांधिकांचें प्रतिमोक्षसूत्र, अर्थ - विनिश्चयसूत्र टीकेसयत; दुर्वेकृत धर्मोत्तर प्रदीप, प्रमाणवार्तिक भाष्य (संपा. १९५३), योगाचारभूमि, विनयसूत्र आनी ताचेवयली वृत्ती आनी टीका हांचो आस्पाव जाता.

१९३७ वर्सा तो इराणमार्गान रशियेंत गेलो. तेन्ना लेनिनग्राड हांगाच्या 'ओरिएंटल इन्स्टिट्यूट' हातूंत तो प्राध्यापक म्हणून गेलो.

एलेना ह्यो ते संस्थेच्यो सचिव आशिल्ल्यो. तिचेचकडे उपरांत राहुलाचें लग्न जालें. परतून एकदां तो तिबेटांत वचून आयलो.

उपरांत भारताच्या गरीब जनतेची सेवा करपाखातीर आनी 'किसान मजदूर राज्य' भारतांत हाडपाखातीर ताणें राजकारणांत वांटो घेतलो आनी एकूण अडेज वर्सां बंदखण भोगली. बंदखणींत आसतना ताणें लिखाण करून हिंदी साहित्यांत मोलाची भर घाली. बंदखणींत बरयल्लो 'वोल्गा से गंगा' (१९४४) ह्या हिंदी कथासंग्रहांतल्यो कथा, भारतीय आनी परदेशी अशा १५ भाशांनी अणकारल्यात.

उपरांत परतून ताका रशियेचें आमंत्रण येतकच सुमार दोन वर्सां रशियेंत रावन तो भारतांत परतलो. १९४९ वर्सा हैदराबादेक भरिल्ल्या अखिल भारतीय हिंदी साहित्य संमेलनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. तेन्ना एक नेपाळी बायल कमला ताची खाजगी सचिव आशिल्ली. तिचेकडे उपरांत ताणें लग्न केलें. एलेनापासून ताका इगोर राहुलोविच आनी कमलापसून जया, जेता अशीं भुरगीं जालीं.

मेरी जीवनयात्रा (३ खंड - १९५१) ही ताची आपजीण. मसूरीक रावता आसतना ताणें 'मध्य एशियाका इतिहास' (२ भाग - १९५२) तशेंच 'हिमालय परिचय' येवजणेवतीन ताणें जायते म्हत्वाचे ग्रंथ बरयले. १९५४ वर्सा ताणें कार्ल मार्क्स, लेनिन, स्टेलिन आनी माओ - त्से - तुंग हांचीं चरित्रां बरयलीं.

१९५८ त तो चीनाक गेलो. भारतांत परतून येतकच परतून श्रीलंकेच्या निमंत्रणावयल्यान 'विद्यालंकार' विद्यापिठांत तो तत्त्वज्ञान विभागाचो मुखेल म्हणून १९५९ वर्सा गेलो आनी १९६१ वर्सा प्रकृती बरी नाशिल्ल्यान भारतांत परतलो. ल्हानपणासावन ताणें खूब लिखाण केलें. हिंदींत मेरी लद्दाख यात्रा (१९२६), तिब्बतमे सवा वर्ष (१९३९), मेरी युरोप यात्रा (१९३२), जापान (१९३५) हीं भोंवडेवर्णनां बरयलीं. सतमी के बच्चे (१९३५), बहुरंगी मधुपुरी (१९५३), कनैलाकी कथा (१९५५ - ५६). ह्यो कथा आनी जीनेके लिए (१९४०), जय योधेय (१९४४), विस्मृत यात्री (१९५४) ह्यो ताच्यो हिंदी कादंबऱ्यो आसात.

ताच्या कथा - कादंबऱ्यांतल्यान संस्कृतीक आनी इतिहासीक जिणेचें दर्शन घडटा. संस्कृत - प्राकृत ह्या प्राचीन भाशांतले ग्रंथ ताणें हिंदींत अणकारीत करून हिंदी भाशेक चड समृध्द केली. ताच्या ग्रंथांची संख्या १५० परस चड आसा. हिंदी वांगडाच ताणें संस्कृत, अपभ्रंश आनी तिबेटी भाशेंतूय ग्रंथ बरयले आनी प्राचीन संस्कृत ग्रंथ बरे तरेन संपादून उजवाडायले. धर्म, तत्त्वज्ञान, राजनीती, इतिहास, पुरातत्त्व, समाजशास्त्र, प्राच्यविद्या, व्याकरण, संस्कृती, भाशा - साहित्य कोश, विज्ञान, चरित्र, आत्मचरित्र, निबंद, कथा, कादंबरी, नाटक, भोंवडेवर्णन, देशदर्शन ह्या विशयांचेर ताणें दर्जेदार लिखाण केलां.

ताच्या अशा ह्या असामान्य पांडित्याक लागून ताका महापंडित, महामानव, तशेंच बौध्द ग्रंथांच्या सखोल अध्ययनाक लागून त्रिपिटकाचार्य अशो मानाच्यो पदव्यो दिल्यो. बौध्द देशांतल्यान तशेंच रशिया सारकिल्या देशांतल्यान ताका खूब मान भोवमान मेळ्ळे. भारतांत ताका मानाची डॉक्टरेट आनी साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळे. भारत सरकारान 'पद्मभूषण' दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**राक्षस :** देव आनी मनीस हांच्यामदली एक अनार्य जात. राक्षस म्हणजे आर्यविरोधक. तशेंच भारतांतली एक आदिवासी जमात अशें संशोधकाचें मत आसा. दैत्य, दानव, असूर आनी राक्षस मेळून राक्षससंघ जाता.

वैदिक आर्यांक ही जात मेळिल्ली आनी तिचो तांकां त्रास जातालो म्हणपाचें ऋग्वेदांतल्या राक्षोघ्न सूक्तांवयल्यान कळटा. निर्ऋती ही मृत्युदेवता ऋग्वेदांत राक्षसच मानल्या. देवांनी राक्षसांक असुरांपसून फोडले आनी मागीर असुरांचो पराभव करून राक्षसांकय धांवडायले अशी कथा तैत्तिरीय संहितेंत आयिल्ली आसा. वेदांत सगळेकडेन राक्षसांचो उल्लेख देवांचे दुस्मान म्हूण जाता.

ऋग्वेदांत राक्षसांचें वर्णन अशें आसा -

राक्षस मायावी आसात. तशेंच ते अद्भुत आनी विचित्र आसात; देव-मनशांचे ते द्वेश्टे, दस्यू आनी दास्य हांच्यापरसय दुश्ट कामां करपी, द्वयू (भितर एक आनी भायर एक अशे), द्रुह (छळ करपी), अत्री (खावगे), क्रव्याद (हरवें मांस खावपी) दुरेव (दुर्जय), यातुमत् (जादुगिरी करपी), रेभ (व्हडल्यान आड्डून आनी किळांच्यो मारून जनावरांक भियेवपी), हविर्मथी (यज्ञांतले हवीचेर झोपय घालपी), शफारूज (नाखटांनी बुड्डून जनावरांचो जीव कासावीस करपी), अघशंस (पाप कृत्याचे प्रशंसक), ब्रह्माद्विष (ज्ञानाचे द्वेश्टे), खंयच्याय जनावराचें रूप घेवपी वा बायलांच्या गर्भाचो आनी नवजात भुरग्याचो घात करपाखातीर तिच्या भावाचें वा घोवाचें रूप घेवन लागीं येवपी आसात.

ऋग्वेदांतल्या राक्षोघ्न सुक्तांत तांचो नाश करपाखातीर देवतांचें मागणें केल्लें आसा. अग्नीकय राक्षसांचो सामको विध्वंसक मानला. महाभारतांतय राक्षशिणीविशीं सांगिल्लें आसा तें अशें –

सद्यो हि गर्भान् राक्षस्यो लभन्ते प्रसवन्ति च ।
कामरूपधराश्चैव भवन्ति बहुरूपिकाः ।

**अर्थ :** गर्भ धरल्याउपरांत राक्षसी रोखडच्योच भुरग्याक जल्म दितात. इत्सेप्रमाण त्यो रुपां घेतात आनी रुपां बदलतात.

राक्षस हे काश्यप आनी खशा हांची संतती. बुभुक्षित जावनच ते जल्माक आयले. यक्षांक वांगडा घेवन ते सृश्टिकर्त्या ब्रह्मदेवाकच खावपाक गेल्ले. तेन्ना ब्रह्मदेव भियेलो आनी ताणें तांकां तुमी यक्ष आनी राक्षस ह्या नांवांच्यो म्हज्योच प्रजा आसात म्हणपाचें सांगलें.

राक्षसांचे उत्पत्तीच्यो आनीक दोन कथा आसात, त्यो अशो- १) पौलस्त्यापसून राक्षस उत्पन्न जाले. २) ब्रह्मदेवान उदकां निर्मिलीं आनी तीं राखपाखातीर राक्षस निर्मिले.

राक्षसांच्या अस्तित्वाची मुळावी कल्पना आर्यांक आशिल्ली. पुराणांनीय राक्षसांच्यो कथा वर्णिल्ल्यो आसात. महाभारतकाळामेरेन राक्षस योनी ल्हव ल्हव क्षूद्र देवतांच्या स्वरुपांत पाविल्ली दिसता. जरा नांवाची एक राक्षसीण त्या काळांत बालरक्षक देवता म्हण पूजताले. लोक साहित्यांतय राक्षसाविशीं जायत्यो कल्पना सांपडटात.

राक्षस चडकरून मसंडेंत वा रानांनी रावतात. भोंवडेकारांक ते भ्रमांत उडयतात. दिवो पळयल्यार ते पळून वतात. ते झाडांचेर रावतात आनी तांच्या रावपाचे सुवातीकडच्यान वचपी मनशांक ओंकारे, अपचन सारकिल्ले उपद्रव निर्माण करतात. जेवतना जर दिवो पालवलो जाल्यार ताचे उपरांत उरिल्लें जेवण जेवप ना असो समज आसा. कारण ताचेर राक्षस झोपय घालतात असो समज आसा. सांजवात लावन ती घरभर भोंवडायल्ल्यान गुप्त रुपान घरांत वावुरपी राक्षस पळून वतात. तांकां आपलो हात जाय तितलो लांब करपाक येता. मनशाचें मांस तांकां खूब मानवता. तांचो आहारय खूब आसता. महाभारतांतली बकासुराची गजाल हेरखातीर गाजिल्ली आसा. दुश्ट ब्राह्मण मेल्या उपरांत ब्रह्मराक्षस जातात आनी ते सामान्य राक्षसांपरस खूब भिरांकूळ आसतात अशेंय म्हण्टात.

राक्षसांविशीं जायत्यो समजुती आसात. भारतीय लोकसाहित्यांतय राक्षसांच्यो जायत्यो कथा आसात. वेग वेगळया बांदकामांकडेनय राक्षसांचो संबंद लायिल्लो दिसता. कांय हेमाडपंती देवळां राक्षसांनी निर्माण केल्ल्याचें सांगतात. रामटेकावयलें एक देवूळ राक्षसांनी बांदलें अशी दंतकथा आसा. भारतांतलो विजयगडचो सगळो किल्लो आनी ताच्या लागींचो कुंडकोटचो किल्लो हे राक्षसनिर्मित आसात अशी समजूत आसा. मध्यप्रदेशांतलो मिझापुरचो करसोटा तलाव राक्षसनिर्मितच आसा अशें म्हण्टात.

राक्षस अतिमानवी योनींतले नासून ते मानवच आशिल्ले. दक्षिणेंतल्या कांय नरमांसभक्षक आनी आडदांड जातींक राक्षस म्हळां. आर्य लोक जेन्ना विंध्य पर्वत हुंपून दक्षिण भारतांत देंवले तेन्ना तांचो आनी राक्षसांचो संपर्क आयलो. आर्यांचें हें आक्रमण राक्षसांक मानवलें ना आनी ते आर्यांचे कट्टर दुस्मान जाले. तशेंच तांचो रंग, रूप आनी आकार हातूंत वेगळेंपण आशिल्ल्यान आर्य लोकांनी तांकां दुश्ट योनीचे मानले. कांय विद्वान भारतांतल्या आदिद्रविडांक राक्षस मानतात. हे राक्षस धनवैभवसंपन्न आशिल्ले, तांचीं राज्यां आशिल्लीं, राज्यवेवस्था आशिल्ली आनी वेगळी अशी संस्कृताय आशिल्ली.

राजनैतिक नदरेन आर्य आनी राक्षस हांच्या संघर्शाचें विस्तारीत विवरण रामायणांतच मेळटा. महाभारतांत आनी पुराणांत जरी राक्षसांचे उल्लेख आयिल्ले आसले तरी संस्कृतीक नदरेन ते व्हडलेशे म्हत्वाचे नात. महाभारतकाळांत राक्षसांची शक्त सोंपत आयिल्ली. रामायणांत मात राक्षसांचो परम उत्कर्श आनी वायट दशा दिसून येता.

रामायणांत मुखेलपणान राक्षसांचे तीन फांटे दिसतात. दर एका फांट्याचो वंश वेगळो आसा. तातुंतली पयली विराधशाखा दंडकारण्याच्या उत्तर भागांत रावताली. विराध त्या फांट्याचो मुखेली आशिल्लो. जव आनी शत हृदा हांचेपसून तो उत्पन्न जाल्लो. वनवासी राम - लक्ष्मणाचेर जेन्ना ताणें हल्लो केलो तेन्ना तांणी ताका मारलो. दुसरो फांटो दानव ह्या नांवान प्रसिद्द आशिल्लो. ती दनूची संतत. तिचो मुखेली कबंध नांवाचो राक्षस आशिल्लो. ताकाय राम - लक्ष्मणानच मारलो. तिसरो फांटो राक्षस ह्या नांवान प्रसिद्द आसून तो सगळयांत क्रूर आनी बळिश्ट आशिल्लो. लंकेतले लोक हे राक्षस जातींत आस्पावताले. हो फांटो पुलस्त्य आनी दिती हांचेपसून निर्माण जाल्लो आनी रावण हो तांचो मुखेली आशिल्लो.

ह्या राक्षस फांट्यांत विद्युत्केश नांवाचो एक राजा जालो. संध्येची धूव सालकटंकटा हिचेकडेन ताणें लग्न केलें. तिका सुकेशी नांवाचो चलो जालो. पूण सालकटंकटेन जल्मताच ताचो त्याग केलो. शिव - पार्वतीन कृपा करून सुकेशीची राखण केली, ताका व्हड आयुश्य दिलें आनी एक विमानय दिलें. सुकेशीक माली, सुमाली आनी माल्यवान नांवाचे तीन चले जाले. तांणी सुर आनी असुर ह्या दोगांकय तांच्या तांच्या जाग्यांवयल्यान धांवडावन घाले. मागीर ते आपल्या वांगड्यांक घेवन लंकेच्या किल्ल्यांत वचून रावले. राक्षसांचो त्रास सोंसपी देवांनी मागीर विष्णुक उलो मारलो. विष्णुन सगळया राक्षसांक लंकेंतल्यान धांवडायले. तेन्ना ते सगळे राक्षस रसातळाक गेले आनी थंय तांणी वसती केली.

ताचे उपरांत सुमाली रसातल सोडून भारताच्या मैदानी वाठारांत आयलो. ताचे कैकसी नांवाचे धुवेन विश्रवा नांवाच्या मुनीकडेन संततीची मागणी केली. विश्रव्यापसून तिका रावण, कुंभकर्ण, बिभीषण आनी शूर्पणखा नांवाचीं चार भुरगीं जालीं. रावणान जायतो तेंप तपश्चर्या करून आपूण अजिंक्य जावचो असो ब्रह्मदेवाकडच्यान वर मेळयलो. ताचो आजो सुमाली लंकेंतल्यान गेल्या उपरांत यक्षाधिपती कुबेरान थंय आपलें राज्य स्थापलें. रावणान कुबेराक धांवडायलो आनी तेन्नाच्यान लंका राक्षस साम्राज्याची राजधानी जाली. रावणान भारताच्या दर्या वाठाराचेरय आपलो अधिकार दवरलो. तशेंच ताणें रसातळय जिखलें. पंचवटीलागींच्या जनस्थानांत आपली उत्तरसीमान्त चौकी स्थापन केली. खर -दूषण हांच्या अधिकारासकयल १४ हजार राक्षसांचें सैन्य थंय उबें केलें. थंयच्यान हे राक्षस गंगा-यमुनेच्या प्रदेशांमेरेन मर्दीं मर्दीं हल्ले करीत रावले. उत्तर भारतांतल्या कांय प्रदेशांचेर राक्षसांचो अधिकारय प्रस्थापित जालो. रावणाचो पुतणयो लवणासुरान मथुरेचेर ताबो मेळयलो. मारीच राक्षसान शोण आनी गंगा ह्या न्हंयांच्या मदल्या वाठाराचेर अधिकार स्थापलो. तशेंच

रावणान उत्तर भारतांतल्या जायत्या राजांचो पराभव केलो. अयोध्येचेरय ताणें दोन खेपे घुरयो घाल्यो. फकत महिष्मतीचो राजा कार्तवीर्य अर्जुन आनी किष्किंधेचो वाली ह्या दोगांनीच ताची मस्ती जिरयली.

आर्य आनी राक्षस हांचेमदीं दुस्मानपण आसतालें. राक्षस आर्यांच्या प्रदेशाचेर वर्चस्व मेळोवपाक पळयताले जाल्यार आर्यांनी दक्षिण भारतांत आपली सत्ता आनी संस्कृतायेचो विस्तार करपाक नेट दिल्लो. त्या काळांत चडशे राजे राक्षसांक भियेवनच वागताले. पूण रामान ह्या सगळ्या राक्षसांचो संहार केलो. लंकेच्या झुजांत रावणाक मारल्याउपरांत भारताच्या राजकारणांतलें राक्षसांचें म्हत्व सोंपलें.

आवयच्या वंशावयल्यान राक्षसांमदीं वंश चलतालो. शिश्टाचार आनी लोकवेव्हार हांचेविशीं ते आर्यांचेंच अनुकरण करताले. कुंभकर्ण झुजाक वतना आपलो व्हडलो भाव रावणाक भोंवताडो काडून आनी अभिवादन करून गेल्लो. रावण जेन्ना झुजामळाचेर गेल्लो तेन्ना ताच्या पुरयतांनी मंत्रघोश करून ताचेरवातीर मंगल कामना केल्ली. अशो जायत्यो प्रथा आर्य आनी राक्षसांमदीं सारक्यो आशिल्ल्यो. राक्षसांचीं लग्नांय अग्निसाक्षींत जातालीं. बायलांक उबारून हाडून लग्न करपाची पद्दतय तांच्यांत आशिल्ली.

राक्षसांमदीं स्वस्त्ययन नांवाची मांगलिक क्रिया प्रचलीत आशिल्ली. खंयच्याय व्हड कार्याक भायर सरचेपयलीं ते स्वस्त्ययन करताले. आर्यांभशेन तांकां तपस्याय मानवताली. पूण आर्य ऋषी पुण्य आनी परलोक मेळोवपाखातीर तप करताले जाल्यार राक्षस भौतीक शक्तीखातीर तप करताले. पूण कठोर नेम पाळपांत राक्षस आर्यांपरस फुडें आशिल्ले. आर्यांचे भशेन तेय यज्ञयाग करताले. पूण तांच्यांत मुखेलपणान यातुक्रियाच करताले. रावण एक व्हड याज्ञिक आनी अग्निहोत्री आशिल्लो. निकुंभिला राक्षसांची कुलदेवता आशिल्ली. गुपीत आनी रहस्यमय क्रियाकलाप आचरपी आसूनय जायते राक्षस सुशिक्षित आशिल्ले. तांचेमदीं वेदविद्येचोय प्रचार जाल्लो. वेद आनी यज्ञाचें अनुश्ठान करपी राक्षसांक ब्रह्मराक्षस ह्या नांवान वळखताले. रावणाचो पूत अतिकाय वेदपारंगत आनी शास्त्र जाणपी आशिल्लो. आर्यांचे चतुर्विध पुरूषार्थय राक्षसांक मान्य आशिल्ले. महोदन नांवाच्या राक्षसान रावणाचे राजसभेंत तांचें विवेचन केल्लेंय सांपडटा. राक्षस संस्कृत भाशाय उलताले. शास्त्रानुशीलनावांगडा ते वेगवेगळ्या कलांचोय आस्वाद घेताले. सर्वज्ञ आनी बुध्दिमान अशा राक्षसांक रावणान आपले अमात्य नेमिल्ले. ताच्या दरबारांत कडक शिस्त पाळटाले. लंकेतल्या राक्षसांचीं घरां व्हड, समृध्द आनी अलंकृत आसतालीं. घरांतलें वातावरणय सुगंधित आसतालें. तशेंच उद्यानां निर्माण करपाचोय तांकां छंद आसतालो.

पुराणांतल्या वर्णनांवयल्यान राक्षसांविशींची सर्वसादारण कल्पना अशी जाल्ली. अक्राळविक्राळ, काळो देह, लोमकळपी जीब, व्हड दांत, फुडें आयिल्ली खाडकी, तांबडे दोळे, जडु केंस अशें ताचें रूप भयानक आसतालें. पूण सगळे राक्षस तशे नाशिल्ले. रंगान जरी ते काळे आसले तरीय ते सामान्य मनशाभशेनच आशिल्ले. तांचो देह मात व्हड आशिल्लो. जायत्यो राक्षिणी सोबीत आशिल्ल्यो, अशें वर्णन रामायणांत सांपडटा. मारूतीक लंकेंत सुरूप आनी कुरूप अशो दोनय तरांच्यो राक्षसीणी दिशिल्ल्यो. उपरांतच्या काळांत मात मनशाचे ते दुस्मान आशिल्ल्यान तांचेर भयानक रुपाचो आरोप केला आसुंये.

राक्षस क्रूर योध्दे आशिल्ले. गनिमी पद्दतीन ते दुस्मानाचेर घुरी घालताले. तशेंच ते जादू, वीरव आनी अग्नीचोय प्रयोग करताले. आपापल्या सेनापतीचे आज्ञेन ते कामां करताले. तांच्या सैन्यांत हेर-गिरीचोय एक विभाग आशिल्लो. राम आनी सुग्रीवाचे इश्टागतींत फूट घालपाखातीर रावणान शुक नांवाच्या गुप्तचराक किष्किंधेंत धाडिल्लो.

इतलें सगळें आसूनय राक्षसांक आर्यांच्या फुडें हार खावंची पडली. कारण ते लोक युध्दसाधनां आनी युध्दसंचालनांत आर्यांइतले तरबेज नाशिल्ले. ते भायर आर्य हे राक्षसांपरस चड भितरले बुद्धीचे आशिल्ले.

राक्षसांची वृत्ती हिंसक आशिल्ली देखून शांतीप्रिय आर्य ऋषी मुनींच्या मतान राक्षस हेंच नांव तांकां फावतालें. ऋषी मुनींच्या यज्ञांत विध्वंस करप होच तांचो छंद आशिल्लो. जायते खेपे ते यज्ञ करपी ऋषींकय जिवेशीं मारताले. रावणय तातुंतलोच आशिल्लो. ताका ब्रह्मघ्न हें नांव मेळिल्लें. माहेश्वर यज्ञाखातीर जमिल्ल्या ऋषींक मारून तो तांचें रगत पियेल्लो अशें रामायणांत म्हळां.

ह्यो सगळ्यो गजाली रामायणावयल्यान कळटात तरीय राक्षस खरेपणी कोण आशिल्ले हेविशीं विद्वानांमदीं मतभेद आसात. रामायण काळांत आर्यांचे नदरेन जे धर्मभ्रश्ट जावन जातिभायरे जाताले ते राक्षसश्रेणींत वताले अशें दिसता. ह्या विधानाक पूरक अशो देखवीय सांपडटात. तशेंच एकाद्रो आर्य मनीसय, घृणित अपराध केल्ल्याचो दंड म्हणून राक्षस योनींत पडटा, म्हणपाचें ह्या देखींवयल्यान जाणवता. तशेंच राक्षसांमदीं वैदिक कर्मकांड प्रचलित आशिल्ल्याचें जाणून कांय विद्वानांच्या मतान राक्षस जात ही मुळांत आर्यांचोच फांटो आशिल्लो. पूण ह्या फांट्याचो आपले मूळ संस्कृतीकडेन आशिल्लो संबंद तुटलो आनी तो फांटो पयसावलो. तशेंच क्रूरता आनी मेकळेपणाचे वागणुकेक लागून अनार्यत्वाक गेली.

राक्षस लोक दक्षिण भारत आनी लंकेचे मूळ रावपी आशिल्ले अशेंय दुसरें एक मत आसा. आपले रानटी अवस्थेंतल्यान वयर येतना रामायण काळांत ते अर्दवट रानटी आनी अर्दवट सभ्य अशे अवस्थेक पावले. वंशाचे नदरेन पळयल्यार ते ऋग्वेदांतलो आर्य दुस्मान दस्यू हाचे भशेन आशिल्ले.

रामायण काळांत भारताच्या दक्षिण तोंकालागीं लंकेंत क्रूर आनी रक्तपिपासू अशी एक मानवजात रावताली ही गजाल मात सामकी खरी.

दक्षिणेंत आर्यांचो प्रवेह तिका मान्य नाशिल्लो. हेच लोक आर्यांच्या यज्ञयागांतय विघ्नां हाडटाले. तांची विध्वसंक प्रवृत्ती हिंदी म्हासागरांतल्या जुंव्यामेरेन पातळिल्ली. आर्यांचें दक्षिणेत व्हडपण स्थापन जावचे पयलीं हे जातीन थंय आपलो शोक चलयल्लो. हे आदिम राक्षस जातीचे अवशेश आजय जावा जुंव्याचेर पळोवपाक मेळटात. हे लोक काळेकुट्ट आनी मुदयाळ्या केसांचे आशिल्ले. तशेंच भांगर आनी रुप्याचे जायते अलंकार ते वापरताले.

आर्यांचो राजकीय विस्तार आनी थळावे जमातींचो ताका प्रतिकार हो आर्य आनी राक्षस हांच्या मदल्या दुस्मानकायेचो मुखेल प्रवाह दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**राँटगॅन, व्हिल्हेल्म कोनराट :** (जल्म : २७ मार्च १८४५, लेनेप, प्रशिया; मरण १० फेब्रुवारी १९२३, म्युनिक).

जर्मन भौतिकीविज्ञ. क्ष-किरणांच्या सोदाक लागून ताका १९०१ वर्सा भौतिकीचो पयलो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. ह्या सोदाक लागून आधुनिक भौतिकीचें युग सुरू जालें आनी वैजकी शास्त्रांत व्हड क्रांती घडून आयली.

राँटगॅन हाणें झुरिकच्या पॉलिटेक्निकांत यांत्रिक अभियांत्रिकीचें शिक्षण घेतलें. आर्. जे. ई. क्लॉसियस हाचीं व्याख्यानां आयकलीं. तशेंच ए.ए. कुंट हाचे प्रयोगशाळेंत काम केलें. १८६९ वर्सा ताणें झुरिक विद्यापिठाची पीएच्. डी. पदवी मेळयली आनी उपरांत, पयलीं वुर्ट्सबर्गाक आनी फुडें स्ट्रॅस्बर्गाक कुंट हाचो साहाय्यक म्हणून काम केलें (१८६९ - ७४).

१८७४ वर्सा स्ट्रॅस्बर्ग विद्यापिठांत अध्यापक म्हणून अर्हता मेळटकच ताणें होअनहायम (१८७५), परतून स्ट्रॅस्बर्ग (१८७६ - ७९), गीसेन (१८७९ - ८८) आनी वुर्ट्सबर्ग (१८८८ - १९००) शारांनी अध्यापन केलें. १९०० वर्सा म्युनिक विद्यापिठांत भौतिकीच्या अध्यासनाचेर ताची नेमणूक जाली आनी निमाणे मेरेन ताणें थंयच अध्यापन आनी संशोधन केलें. १८७० वर्सा राँटगॅनाचें पयलें संशोधन कार्य उजवाडा आयलें. तें वायूंच्या विशिश्ट उश्णतायांसंबंदीं आशिल्लें.

उपरांत ताणें स्फटिकांची ऊश्मीय संवाहकताय, क्वॉर्ट्झाचे विद्युत् आनी हेर गुणधर्म, वेगवेगळ्या द्रायूंच्या म्हळयार द्रव आनी वायू हांच्या प्रणमनांकांचेर दाबाचो जावपी परिणाम, विद्युत् चुंबकीय प्रभावाक लागून ध्रुवित प्रकाशाच्या प्रतलांत जावपी बदल, दाबविद्युत् ह्या प्रस्नाविशीं ताणें संशोधन केलें. पूण क्ष-किरणांच्या सोदाक लागुनूच ताका चड नामना मेळ्ळी.

१८९५ वर्सा तो कंवचेचे नळयेंतल्या सामको उणो दाब आशिल्ल्या वायूंतल्यान व्हांवपी विद्युत् प्रवाहाकडेन संबंदीत आशिल्ल्या आविश्कारांविशीं संशोधन करतालो. तेन्ना ही नळी कार्यान्वित आसतना लागसार दवरिल्ल्या आनी एके वटेन बेरियम प्लेटिनोसायनायड लायिल्ल्या कागदी पट्टेसावन प्रकाश उत्सर्जीत जाता अशें ताका होलमलें. हाचें स्पश्टीकरण दिवपारवातीर ऋण किरण (इलॅक्ट्रॉन) नळयेचेर आदळ्ळे तेन्ना स्वंयचें तरी अज्ञात प्रारण (तरंगरूपी ऊर्जा) तयार जावन ते कुडींतल्यान वचून त्या रसायनाचेर आपटलें आनी ताका लागून अनुस्फुरण निर्माण जालें असो राँटगॅन हाणें सिध्दांत मांडलो. उपरांत केल्ल्या प्रयोगांवयल्यान कागद, लांकूड आनी ॲल्युमिनियम हीं ह्या किरणांक पारदर्शक आसून विंगड विंगड जाडायांच्यो वस्तू ह्या किरणांच्या मार्गांत दवरून छायाचित्रण कंवचेचे पट्टेचेर नोंद करतकच ह्या किरणांविशीं त्या वस्तूंची पारदर्शकताय वेगवेगळी आशिल्ल्याचें ताका दिसलें. ह्या किरणांच्या मार्गांत स्वताचे बायलेचो हात दवरून छायाचित्रण कंवचेचे पट्टेचेर नोंद करतकच तातूंत किरणांक अपारदर्शक आशिल्लीं हाडां आनी बोटांतली मुदी हांच्यो गाड सावळयो आनी तांचेभोंवतणीं किरणांक चड पारगम्य आशिल्ल्या मांसाची हयन्हयशी सावळी ताका दिसली. ह्या किरण प्रकाशाचें परावर्तन वा प्रणमन हे सारके गुणधर्म लक्षणीय रुपांत दिसनाशिल्ल्यान ताणें हे किरण प्रकाशाकडेन संबंदीत नात असो चुकीचो निश्कर्श काडलो. ह्या किरणांच्या अनिश्चीत स्वरुपाक लागून राँटगॅन हाणें त्या किरणांक क्ष-किरण (x- rays) अशें नांव दिलें. पूण तांकां राँटगॅन किरण ह्या नांवानूय वळखतात. उपरांत माक्स फोन लौए आनी ताचो शिश्य हांणी ह्या किरणांचें स्वरूप प्रकाशाभाशेनूच विद्युत् चुंबकीय आसून तांच्या कंपनांची उच्च कंप्रताय होच तांच्यांतलो फरक आसा अशें दाखयलें.

राँटगॅनाक नोबॅल इनामाभायर लंडनचे रॉयल सोसायटीचें रम्फर्ड पदक (१८९६), कोलंबिया विद्यापिठाचें बर्नार्ड पदक (१९००) आनी हेर भोवमान आनी मानादीक पदव्यो मेळ्ळयात. राँटगॅन एक बरो गिर्यारोहकूय आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**रॉकफॅलर घराणें :** नामनेच्या अमेरिकन उद्देगपतीचें दानी घराणें. ह्या उद्देग समुहान आर्विल्ल्या खनीज तेल उद्देगाचो विकास तेचपरी व्हड प्रमाणांत परोपकारी आनी भौशिक वावर केला.

**जॉन डेव्हिसन रॉकफॅलर :** (जल्म : ८ जुलय १८३९, रिचफर्ड - न्यूयॉर्क; मरणः २३ मे १९३७, आर्मंडबीच - फ्लॉरिडा).

रॉकफॅलर घराण्यांतलो पयलो उद्देगपती, स्टँडर्ड ऑयल उद्देगसमुह आनी अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतल्या पयल्या तेल उद्देगाचो संस्थापक. १८५३ त ताचें घराणें ओहायओ राज्यांतल्या क्लिवलँड शारांत स्थायीक जालें. ताणें माध्यमिक शाळेंतलें आनी वेवसायीक म्हाविद्यालयीन शिक्षण पुराय करतकच १८५९ वर्सा क्लार्क हाचे भागीदारीन दलालीचो धंदो सुरू केलो. १८६३ वर्सा ताणें

'ॲण्ड्र्यूस क्लार्क ॲंड कंपनी' स्थापन करून तेल शुध्दीकरण उद्देग सुरू केलो. फुडें आपलो भाव विल्यम हाचे भागीदारीन ताणें 'विल्यम रॉकफॅलर ॲंड कंपनी', अशी दुसरी तेल कंपनी स्थापन केली.

१८६७ त ह्यो दोनूय कंपन्यो रॉकफॅलर, ॲण्ड्र्यूस लॅंग्लर ॲंड कंपनींत एकठांय आयल्यो. उपरांत रोखडेंच 'स्टॅंडर्ड ऑयल कंपनी ऑफ ओहायओ' ही एक संयुक्त भांडवली कंपनी काडली आनी जॉन रॉकफॅलर तिचो अध्यक्ष जालो. १८८२ त 'स्टॅंडर्ड ऑयल ट्रस्ट' हे व्हड उत्पादन संस्थेची स्थापना जाली. ह्या ट्रस्टाच्या नियंत्रणाखाल अमेरिकेंतल्यो ९५% तेल उद्देग, लोह धातुकाच्यो खाणी, लांकूड कारखाने, येरादारी उद्देग हे सारके जायते उद्देग आशिल्ले. पूण १८९९ वर्सा ओहायओच्या सर्वोच्च न्यायालयान शेर्मन ट्रस्टा आडच्या कायद्याप्रमाण वयलो ट्रस्ट बेकायदेशीर थारायल्ल्यान ताचें रुपांतर स्टॅंडर्ड ऑयल कंपनी ऑफ न्यू जर्सी' हे नियंत्रक कंपनींत केलें. ही कंपनी १९११ मेरेन निर्वेध काम करीत आशिल्ली. पूण रोखडेंच सर्वोच्च न्यायालयान हे नियंत्रक कंपनीचें जायत्या स्वतंत्र कंपनींनी विभाजन करपाचो आदेश दिलो.

जॉन रॉकफॅलरान उद्देगा वांगडाच भौशिक कामांकूय आपले जिणेंत खाशेलें म्हत्व दिलें. आपल्या फायद्यांतलो कांय वांटो कुशीक काडून तो ह्याच कामाखातीर दवरतालो. ताणें अमेरिकेंतल्या वैजकीशास्त्र, शिक्षणीक मळ, संशोधन हांचो विकास आनी उदरगत हे खातीर लाखांनी डॉलर खर्च केले. तशेंच जायते धर्मादायी निगम उबारून तेवरवीं सुमार आठ कोटी डॉलर रकमेचो विनियोग केलो. ह्या कामाखातीर ताणें कर्तव्यदक्ष आनी तळमळीन काम करपी अधिकारी नेमिल्ले. 'जनरल एज्युकेशन बोर्ड' हें शिक्षणीक मंडळ स्थापन केलें (१९०२). वंश, धर्म, जात, शिक्षण हांचो विचार करिनासतना अमेरिकेंतल्या शिक्षणाची उदरगत करप हें ह्या मंडळाचें उद्दिश्ट. १९५२ त अर्थीक अडचणींक लागून ह्या मंडळाक काम थांबोवचें पडलें. १९०१ वर्सा न्युयॉर्कांत रॉकफॅलर वैजकी संस्था स्थापन जाली. आरोग्यशास्त्र, शस्त्रक्रिया, वैजकी, तदनुषंगिक शास्त्रां हांच्या संशोधन कार्यांत मदत करप, रोगाचें स्वरूप, कारणां आनी निवारण ह्या वावरांत मदत आनी संशोधन, हेविशीं जाल्ल्या संशोधनाचो आनी गिन्यानाचो भौशिक कल्याणाखातीर प्रसार करप अशीं हे संस्थेचीं उद्दिश्टां आशिल्लीं. फुडें हेच संस्थेचें रॉकफॅलर विद्यापिठांत रुपांतर केलें. १९१३ वर्सा मानवजातीच्या कल्याणाचें उद्दिश्ट मुखार दवरून रॉकफॅलर प्रतिश्ठानाची स्थापना केली.

**जॉन डेव्हिसन रॉकफॅलर :** (जल्म : २९ जानेवारी १८७४, क्लिलॅंड ओहायओ; मरण : ११ मे १९६०).

संस्थापक रॉकफॅलरचो पूत. १८९७ वर्सा ब्राउन विद्यापिठांतल्यान पदवी घेवन तो बापायक उद्देगांत आदार करूंक लागलो. ताणें मॅनहॅटन विभागांत रॉकफॅलर सॅंटर ह्या मळबाक तेंकपी अशा ऊंच वास्तुसमुहाची उबारणी केली. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत ताणें अमेरिकन लश्करांतले सैनीक आनी कुटंबाक आदार दिवपाखातीर 'युनायटेड सर्व्हीस ऑर्गनायझेशन्स' ही संस्था उबारली. १९२३ वर्सा ताणें सैमीक विज्ञानां, मानव्यविद्या आनी शेती ह्या मळांखातीर 'आंतरराश्ट्रीय शिक्षण मंडळ' स्थापन केलें. हाचेभायर ताणें व्हर्जिनिया राज्यांतल्या, वसणूक काळांतल्या विल्यम्सबर्ग शाराची पुनर्रचणूक केली. न्यूयॉर्क सिटींतल्या गरीब वाठारांतल्या लोकांखातीर उण्या भाड्याचीं घरां बांदून दिवपाचो प्रकल्प सुरू केलो. तशेंच जायत्या संस्थांक ताणें देणग्यो दिल्यो. तो दोन फावटीं लग्न जालो. ॲबी ग्रीन ॲल्ड्रिच हे पयले बायले पसून ॲबी ही चली आनी जॉन डी. तिसरो, नॅल्सन, लॉरॅन्स, विन्थ्रॉप आनी डेविड हे तीन चले जाले.

**तिसरो जॉन डेविसन :** (जल्म : २१ मार्च १९०६, न्यूयॉर्क; मरण : १० जुलय १९७८).

जॉन डी. दुसरो हाचो व्हडलो चलो. १९२९ वर्सा प्रिस्टन विद्यापिठांतल्यान पदवी मेळयतकच तो रॉकफॅलर विद्यापिठांत आयलो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत (१९४२ - ४५) तो अमेरिकन नौदलांत काम करतालो. उपरांत तो परोपकारी वावर करूंक लागलो. ताणें लिंकन सॅंटर फॉर द परफॉर्मिंग आर्ट्सन्यूयॉक, इंडिया इंटरनॅशनल सॅंटर - दिल्ली, धी इंटरनॅशनल हाउस ऑफ जपान आनी एशिया सोसायटी' ह्या संस्थांखातीर वावर केलो. ताणें जायत्या आंतरराश्ट्रीय संस्थांक अर्थीक आदार दिलो. तशेंच १९५२ त कुटूंब येवजण संशोधन केंद्र म्हणून लोकसंख्या परिशद (पॉप्युलेशन काउन्सिल) ही संस्था उबारली. जॉन (जे.) डेविसन रॉकफॅलर चवथो हो ताचो पूत आसून १९७७ वर्सासावन तो राज्याचो गव्हर्नर आशिल्लो.

**नॅल्सन ॲल्ड्रिच रॉकफॅलर :** (जल्मः ८ जुलय १९०८, बार हार्बर - मेन; मरण : २६ जानेवारी १९७९).

जॉन डी. तिसरो हाचो दुसरो पूत. न्यू हॅंपशायर राज्याच्या डार्टमथ म्हाविद्यालयांतल्यान १९३० वर्सा ताणें अर्थशास्त्राची पदवी मेळयली. कांय काळ तो चेस नॅशनल बॅंक, रॉकफॅलर सॅंटर, क्रिओल पॅट्रोलिअम आदी वेगवेगळया रॉकफॅलर संस्थांनी काम करतालो. क्रिओल पॅट्रोलियम ह्या स्टॅंडर्ड ऑयलच्या वेनेझुएलांतल्या संलग्न कंपनीचो संचालक म्हणून काम करतालो. १९४८ त तो उपपरराश्ट्र मंत्री जालो. १९५३ - ५५ ह्या काळांत तो नवनिर्मीत आरोग्य - शिक्षण - कल्याण ह्या खात्यांचो अवर सचीव म्हणून काम पळयतालो. १९५८, १९६२, १९६६, १९७० ह्या वर्सांनी गव्हर्नर पदाचे वेचणुकेंत वेंचून आयलो. ह्या काळांत ताणें जायत्यो विवृत्तीय, सांस्कृतिक आनी शिक्षणीक सुदारणा घडोवन हाडल्यो. १९७३ त तो गव्हर्नर पदावयल्यान निवृत्त जालो आनी तो नॅशनल कमिशन ऑन क्रिटिकल

चॉयसीस फॉर अमेरिका आनी कमिशन ऑन वॉटर क्वॉलिटी ह्या दोन आयोगांचें काम पळोवंक लागलो. १९७४ त ताची उपराश्ट्राध्यक्षपदाचेर नेमणूक जाली. नॅल्सनाची, कलेचो आश्रयदातो आनी कला वस्तुसंग्राहक म्हणून नामना आशिल्ली. 'म्युझीयम ऑफ मॉडर्न आर्ट' ह्या संग्रहालयाचो विश्वस्त आनी म्युझीयम ऑफ प्रिमिटिव्ह आर्ट ह्या संग्रहालयाचो संस्थापक अध्यक्ष म्हणून ताणें काम केलें.

**लॉरॅन्स स्पेलमन रॉकफॅलर :** (जल्म : २६ मे १९१० न्यूयॉर्क).

जॉन डी. तिसरो हाचो तिसरो पूत. ताणें प्रिन्स्टन विद्यापिठांतल्यान तत्त्वगिन्यानाची पदवी मेळयली (१९३२). ताणें १९३८ वर्सा इस्टर्न ॲरलायन्स ही विमान कंपनी स्थापन केली. दुसऱ्या महाझुजाच्या काळांत तो अमेरिकन नौदलांत आशिल्लो. ताणें हॉटेल वेवसाय, अण्वीक उपकरणां आनी संगणक ह्या उद्देगांनी गुंतवणूक केल्ली. हाचेभायर जायत्यो पर्यावरणाविशींच्यो समित्यो, आयोग, संस्था, जायतीं प्रतिश्ठानां, धर्मादाय संस्था हांच्या अध्यक्ष, उपाध्यक्ष, सल्लागार अशा वेगवेगळया पदांचेर ताणें काम केलें. १९७३ वर्सा सावन तो 'रीडर्स डायजेस्ट' असोसिएशनचो संचालक आशिल्लो. 'रॉकफॅलर ब्रदर्स फंड' हे संस्थेचो पयलीं उपाध्यक्ष म्हणून आनी उपरांत अध्यक्ष म्हणून ताणें काम पळयलें.

**विन्थ्रॉप रॉकफॅलर :** (जल्म :१ मे १९१२, न्यूयॉर्क; मरण : २२ फेब्रुवारी १९७३, पामस्प्रिंग्स, कॅलिफोर्निया).

जॉन डी. तिसरो हाचो चवथो पूत. १९३४ वर्सा ताणें म्हाविद्यालयीन शिक्षण सोडून टॅक्सासच्या तेल खणींचेर,चेस नॅशनल बॅंक आदी वेगवेगळया संस्थांनी काम केलें. १९४१ त तो अमेरिकेच्या भूंय दळांत आशिल्लो. १९५३ त तो आर्कान्सास राज्यांत गेलो आनी थंय ताणें व्हड प्रमाणांत प्रयोगीक शेती करपाक सुरवात केली. १९६७ - ७१ ह्या काळांत तो आर्कान्सास राज्याचो गव्हर्नर आशिल्लो. त्या वेळार ताणें पयलो उण्यांत उणें वेतन कायदो संमत करून घेतलो. बंदखणींत व्यापक प्रमाणांत सुदारणा करून घेतल्यो, राज्यांतल्यो सगळयो शाळा सगळया जातींच्या चल्याचलयांखातीर उकत्यो करपाक यश मेळयलें.

**डेविड रॉकफेलर :** (जल्म : १२ जून १९१५, न्यूयॉर्क).

जॉन डी.चो सगळयांत धाकलो आनी पांचवो पूत. १९३६ वर्सा ताणें हार्वर्ड विद्यापिठांततल्यान बी. एस् सी.ची पदवी मेळयली. हाचेभायर ताणें न्यूयॉर्क आनी लंडन अर्थशास्त्र संस्थेंत अर्थशास्त्र विशयाचो अभ्यास केलो. शिकागो विद्यापिठांतल्यान ताणें अर्थशास्त्रांतली डॉक्टरेट ही पदवी मेळयली (१९४०). १९४२ - ४५ ह्या काळांत तो भूंय दळांत आशिल्लो. १९४६ वर्सा सावन तो न्यूयॉर्क सिटींतले चेस नॅशनल बॅंकेंत काम करूंक लागलो. १९५२ वर्सा तो बॅंकेचो ज्येश्ठ उपाध्यक्ष जालो. चेस नॅशनल बॅंक आनी बॅंक ऑफ मॅनहॅटन कंपनी हांच्या विलिनीकरणांत आनी चेस मॅनहॅटन बॅंकेचे स्थापनेंत ताचो मोलादीक वांटो आसा. १९६९ - ८१ ह्या काळांत तो हे बॅंकेच्या संचालक मंडळाचो अध्यक्ष आशिल्लो. ताका जायत्या विद्यापिठांतल्यान डॉक्टरेट आनी हेर मानसन्मान मेळिल्ले आसात. अनयूज्ड रिसोर्सीस अँड इकॉनॉमिक वॅस्ट (१९४०), क्रिएटिव्ह मॅनेजमॅंट इन बॅंकिंग (१९६४) हे ताचे नामनेचे ग्रंथ.

रॉकफॅलर घराण्यान वैजकी, शिक्षण, कला, संस्कृतीक घडणुको ह्या आनी अशा जायत्या मळांचेर व्हड प्रमाणाचेर अर्थीक आदार दिवन मनीस जातीचें कल्याण आनी उदरगत जावपाचे नदरेन प्रतिश्ठानां आनी वेगवेगळे निधी उबारून आपलो वावर अरवंड चालू दवरला.

- कों. वि. सं. मं.

## रॉकफॅलर प्रतिश्ठान

**रॉकफॅलर प्रतिश्ठान :** संवसारांतल्या मनीसजातीच्या कल्याणाक गती दिवपाखातीर जॉन डी. रॉकफॅलर हाणें १४ मे १९१३ वर्सा स्थापन केल्ली लोकोपकारी संघटना. हें प्रतिश्ठान संवसारीक पातळेवयलो लोकोपयोगी वावर करता.

ह्या प्रतिश्ठानाच्या वावरांत संवसारीक पातळेचेर जावपी कार्यक्रमांनी (१) भुकेचेर मात (२) लोकसंख्या नियंत्रण, भलायकेची जतनाय हातूंत सुदारणा (३) आंतरराश्ट्रीय संबंदांमदले संघर्श आनी ताण हांचें निरसन (४) विकसनशील राश्ट्रांतले शिक्षणीक विकास हांचो आस्पाव जाता. अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत प्रतिश्ठानावरवीं आंखतल्या कार्यक्रमांनी (१) पर्यावरणाविशीं गुणवत्ता साध्य करपाचे यत्न (२) सगळयांक सारक्यो संधी (३) नाटक, साहित्य, संगीत हेसारक्या सांस्कृतिक घटकांचो विकास ह्या तीन येवजणांचो आस्पाव जाता.

प्रतिश्ठानाचो निधी आनी तांचीं धोरणां हांचें संयोजन स्वतंत्रपणान नेमिल्ल्या योग्य व्यक्तींनी तयार केल्लें मंडळ चलयता. हें मंडळ विद्यापिठां, संशोधन संस्था, संघटणा आनी हेर लायक संस्था संघटना हांकां अनुदानां आनी देणग्यो दिता. प्रतिश्ठानाच्या कार्यक्रमाक दीर्घकालीन छात्रवृत्त्यो आनी शिश्यवृत्त्यो हांचीय जोड मेळटा.

रॉकफॅलरान सुरवेक धा कोटी डॉलर रकमेचेर ह्या प्रतिश्ठानाची स्थापना केल्ली. फुडें ही रक्कम १८.३ कोटींमेरेन वाडयली स्थापनेसावन प्रतिश्ठानाचो स्थायी निधी खुबूच वाडिल्लो आसून तो ७० ते ८० कोटी डॉलराकडेन पावला. प्रतिश्ठानान आतांमेरेन सुमार ३.७ कोटी डॉलर इतली रक्कम देणग्यांच्या रुपान वितरीत केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**रॉड, मिंगेल :** (जल्मः १९२०; मरणः १९५५, कुठ्ठाळे).

गोंयचो एक नामनेचो तियात्रिश्त. ताणें जुआंव आगुश्तीन फेर्नांदीशाच्या तियात्रांतल्यान माचयेर पयलें पावल दवरलें. उपरांत सौझा - फेर्रावां वांगडा वावर केलो. 'दुडवांचो कोर्स' हो ताचो पयलो तियात्र. ताचो सगळयांत चड गाजिल्लो तियात्र 'घराचें केस्तांव', 'कोडू संवसार' हो ताचो निमाणो तियात्र.

मिंगेल रॉडान सुमार चाळीस तियात्रां बरोवन माचयेर हाडल्यांत अशें म्हण्टात. १९४५ - १९५५ ह्या दशकांत तो तियात्राचे माचयेवयलो पाटांगडो आशिल्लो. ताचे कांय गाजिल्ले तियात्र अशे - 'जॉनी साश्टीकार', 'गरीब शेजारी', 'ओपन टु क्लोज', 'मेस्त दर्जी', 'लेंबडो सांतान', 'सिविल मॅरेज', 'तारवोटी इर्मांव', 'कासादोर कायतान', 'पोब्र फिदाल्ग', 'बाकरा ओगोत जालोना', 'नरेश खंडपी', 'व्होडल्या आबाचेर फेस्त पडलां', 'लॉर्ड फकीर', 'वीद चुरचुऱ्यांचे', 'सोमेस्तांचो रीणकारी', 'हिमटयांचे भोगणार', 'इंत्रूझ वो कार्नवाल', 'इश्ताद तार वोटयांचो', 'कुन्याद बोमोयकार', 'आफ्रिककार बायल', 'हेलमेटकार बाब' आनी 'मिल्योर लिब्रांचो' हे ताणें बरयल्ले तियात्र आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**रॉबिन्सन, जॉन व्हायोलेट :** (जल्म : १९०३, स्परे, इंग्लंड; मरण : ५ ऑगस्ट १९८३, लंडन).



एक नामनेची अर्थशास्त्रज्ञ. अध्यापनाच्या वावराक तिणें १९३१ वर्सा सावन सुरवात केली. केंब्रिज विद्यापिठांत तिणें सुरवेक प्रपाठक म्हूण काम केलें. पूण १९६५ त ती त्याच विद्यापिठाची प्राध्यापक जाली. कांय तेंप तिणें भारतांत ग्वाल्हेर शारांत राबितो केल्लो. 'इकॉनॉमिक्स ऑफ इम्परफॅक्ट काँपिटिशन' हें १९३३ वर्सा तिणें बरयल्लें पुस्तक खूब गाजलें. १९४२ त मार्क्सवादी अर्थशास्त्रीय येवजणेचेरूय तिणें निबंद बरयलो. १९३३ ते १९६२ मेरेन तिणें आपलो चडसो वेळ लिखाणांतूच सारलो. तिणें अर्थशास्त्रीय मळार मोलादीक भर घाली. १९७० त 'फ्रीडम अँड नेसिसिटी' हें अर्थशास्त्र, समाजशास्त्र आनी मानसशास्त्र विशय आशिल्लें तिचें पुस्तक उजवाडा आयलें.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत विकासशील देशांतले अर्थवेवस्थेंत सुदारणा घडोवन हाडपाखातीर ती खूब वावुरली. तेच प्रमाण समाजवादी देशांतले अर्थवेवस्थेचोय तिणें खोलायेन अभ्यास केलो. तिणें सोव्हियट रशिया आनी चीन अर्थवेवस्थांचो तुळात्मक अभ्यास केल्लो. चीन देशाची व्हड लोकसंख्या, दळडीर आनी रुढीप्रिय मतां, ह्या सारकिले विचार अर्थीक विकासाचे प्रक्रियेंत आडमेळीं आशिल्ल्यान चीनांतलो माओन आपणायल्लो साम्यवादी प्रयोग आशादायी आशिल्लो अशें तिचें मत आसलें. रॉबिन्सनाच्या मतान शीतझुजावेळार शस्त्रास्त्रसर्तीक लागून चडशा देशांक रोजगाराची पातळी येवपाक शक्य जालेंना. सरकारी हस्तक्षेपान मंदीचें ल्हार पयस करपाक जाता. पूण अशे परिस्थितींत सरकार खंयच्या बाबींचेर खर्च करता हो प्रस्न म्हत्वाचो थारता. तेच प्रमाण सरकार ज्या बाबींचेर खर्च करता ताचो परिणाम फायदो, पगार, मजुरी आनी खंड हातूंत उत्पन्नाची वांटणी जे पद्दतीन जाता ताचेरूय आदारून आसता अशें तिचें मत आशिल्लें. 'सिमांत परिव्यय' (Marginal Cost), 'सिमांत आय' (Marginal Revenue), 'एकक्रयण' (Monopsony) ह्यो अर्थशास्त्रांतल्यो म्हत्त्वाच्यो संज्ञा तिणें वापरांत हाडल्यो. 'श्रम' ह्या घटकांचो अभ्यास करतना तिणें कामगार संघटना आनी किमान वेतन कायदो हांचें म्हत्व स्पश्ट केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**रॉबिन्सन, सर रॉबर्ट :** (जल्मः १३ सप्टेंबर १८८६, रूफर्ड, डर्बिशर, इंग्लंड; मरण : ८ फेब्रुवारी १९७५, ग्रेट मिसन्डन).

ब्रिटीश रसायनशास्त्रज्ञ. १९४७ वर्साच्या रसायनशास्त्राच्या नोबॅल पुरस्काराचो मानकरी. अँथोसायनिनां आनी अँथोझँथिनां, फ्लॅव्होनां आनी आल्कालॉयडां हांचेविशींच्या संशोधनाखातीर प्रसिद्द.

रॉबिन्सनाचें शालेय शिक्षण चॅस्टरफील्डाक जालें. १९०६ वर्सा ताणें मँचेस्टर विद्यापिठाची बी. एस्सी. पदवी आनी १९१० वर्सा डी. एस्सी. पदवी मेळयली. त्याच वर्सा ताणें डब्ल्यू. एच्. पर्किन हाचेवांगडा संशोधनाक सुरवात केली. इ. स. १९१२ वर्सा ताची सिडनी विद्यापिठांत कार्बनी रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून नेमणूक जाली. १९१५ वर्सा इंग्लंडाक परत येतकच ताणें लिव्हरपूल (१९१५ - २०), सेंट अँड्रूझ (१९२१ - २२) आनी मँचेस्टर (१९२२- २८) हीं विद्यापिठां तशेंच लंडन हांगाचें विद्यापीठ महाविद्यालय (१९२८ - ३०) आनी ऑक्सफर्ड विद्यापिठांतलें मॅग्डालीन महाविद्यालय (१९३० - ५५) हांगा कार्बनी रसायनशास्त्राचीं अध्यासनां भुशयलीं. १९५५ वर्सा तो निवृत्त जालो. ताणें कार्बनी रसायनशास्त्रांतल्या वेगवेगळ्या फांट्यांनी खूब संशोधन केलें. मुखेलपणान वनस्पतींतलीं रंगद्रव्यां आल्कलॉयडां आनी फेनँथ्रीन वर्गांतले पदार्थ हे विशींच्या ताच्या संशोधनाक खूब नामना मेळ्ळी. वनस्पतींचीं मुळां, खोडां, साली आनी फुलां हातूंत वेगवेगळीं रंगद्रव्यां आसतात. तांबडो, जांबळो, निळो हे रंग वनस्पतींपसून मेळटात. हे रंग अँथोसायनिडीन वर्गांत मोडटात. रॉबिन्सन हाणें सुरवेक ब्राझिलीन आनी हीमॅटॉक्सिलीन ह्या दोन रंगद्रव्यांविशीं संशोधन करून तांची संरचना थारायली. कांय खाशेल्या प्रकारांचीं लांकडां उदकांत शिजोवन हीं दोनूय रंगद्रव्यां काडटात. रासायनिक नदरेन अँथोसायनिनाभशेन आसपी फ्लॅव्होनांचेरूय ताणें

संशोधन केलें. अँथोसायनिनां आनी फ्लॅव्होनां हांच्या अभ्यासांतल्यान ताणें वनस्पतिज आल्कलॉयडांत आपलें लक्ष घालें. काळया धुत्न्यासावन मेळपी ट्रॉपिनोन आनी अॅट्रोपीन ह्या संयुगांची संरचना ताणें तांची विस्कटावणी आनी संश्लेशण करून थारायली. हाचे उपरांत ताणें अफूच्या बोंडांतल्या पॅपॅव्हरीन, नार्कोटीन, मॉर्फीन, ब्रुसीन आनी स्ट्रिक्नीन हांचेर संशोधन करून तांची संरचना थारायली. पेनिसिलिनाचो सर्रास वरवदी उपेग जातालो पूण ताची संरचना सिध्द जावंक नाशिल्ली. ती अमेरिकन शास्त्रज्ञ, रॉबिन्सन आनी ताचे वांगडी हांणी एकठांय काम करून सोदून काडली. रॉबिन्सन हाच्या मार्गदर्शनाखाल इंग्लंड आनी अमेरिका ह्या दोनूय देशांनी हें संशोधन जालें. इ. स. १९१७ वर्सा ताणें वनस्पतींनी मेळपी वेगवेगळीं द्रव्यां कशीं तयार जातात आसुंये हेविशीं एक उपपत्ती मांडली. १९२१ - ३० ह्या काळांत ताणें इलॅक्ट्रॉनांच्या देवाण-घेवाण आनी समाईकत्व ह्या कल्पनांच्या आदारान बऱ्याचशा रासायनिक प्रकियांचें स्पश्टीकरण केलें. हाचेपयलीं कार्बनी रसायनशास्त्रांत इलॅक्ट्रॉन वा प्रोटॉन हांचो विचार जायनाशिल्लो. १९५० वर्सा पुण्यांत भरिल्ल्या भारतीय विज्ञान परिशदेच्या अधिवेशनाक तो भारत सरकारच्या खास आमंत्रणावयल्यान हजर आशिल्लो. रॉबिन्सनाच्यो विद्युत् संयुजी आनी सहसंयुजी ह्यो कल्पना पयलीं शास्त्रज्ञांक मान्य नाशिल्ल्यो. १९३९ वर्सा ब्रिटीश सरकारान ताच्या वावराचो भोवमान म्हणून ताका 'नायट' हो किताब भेटयलो. उपरांत तीन वर्सांनी तो लंडनचे रॉयल सोसायटीचो फॅलो आनी ते उपरांत अध्यक्ष (१९४५ - ५०) जालो. ताका ब्रिटीश आनी परदेशी विद्यापिठांनी सुमार वीस मानादीक डॉक्टरेट पदव्यो दिल्यो. कॅमिकल सोसायटीन लाँगस्टाफ, फॅराडे आनी फिंलटॉफ, रॉयल सोसायटीन डेव्ही, रॉयल आनी कॉप्ली हीं पदकां ताका दिलीं. स्वीस, अमेरिकन, फ्रेंच आनी जर्मन रासायनिक संस्थांनीय ताचो भोवमान केलो. फिलाडेल्फियांतल्या फ्रँक्लिन इन्स्टिटयुटान ताका फ्रँकलिन पदक दिलें. सन्माननीय फॅलो, परदेशी वांगडी म्हणून पन्नास देशी आनी परदेशी नामनेच्या संस्थां कडेन ताचो संबंद आयिल्लो. तो ब्रिटीश बुध्दिबळ फेडरेशनाचोय अध्यक्ष आशिल्लो (१९५० - ५३). तशेंच गिर्यारोहण, छायाचित्रण आनी संगीत हातुंतूय ताका आवड आशिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

## रॉबिन्स, फ्रेड्रिक चॅपमन

**रॉबिन्स, फ्रेड्रिक चॅपमन :** (जल्म : २५ ऑगस्ट १९१६, ऑबर्न, अॅलाबॅमा; मरण :).

अमेरिकन बालरोगतज्ञ आनी सूक्ष्मजीववैज्ञानिक. बालपक्षाघाताच्या (Polio) व्हायरसांची विविध मानवी संवर्धित ऊतकांत वाड करूं येता हो सोद लायिल्लेखातीर रॉबिन्साक जॉन फ्रँक्लिन एंडर्स आनी टॉमस हकल वेलर हांचे वांगडा १९५४ वर्साचें वैजकी वा शरीरक्रियाविज्ञानाचो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो.

ताणें मिसुरी विद्यापिठाच्यो ए. बी. (१९३६) आनी बी. एस्. (१९३८) ह्यो पदव्यो घेतल्यो आनी १९४० वर्सा हार्व्हर्ड मॅडिकल स्कुलांतल्यान एम्.डी. ही पदवी घेतली. १९४२ वर्सा मेरेन ताणें बॉस्टनांतल्या चिल्ड्रन्स हॉस्पिटल मेडिकल सँटरांत सूक्ष्मजंतुविज्ञानाचो निवासी वैज म्हणून काम केलें. उपरांत ताणें अमेरिकेच्या सेनादलांत नोकरी केली. सेनादलाच्या पंदरावे वैजकी प्रयोगशाळेंत ताणें व्हायरस आनी रिकेट्सियाजन्य रोग विभागाचो मुखेल म्हणून अमेरिका, उत्तर आफ्रिका आनी इटलींत चार वर्सां काम केलें. ह्या काळांत ताणें संसर्गजन्य यकृतशोथ, प्रलापक सन्निपात ज्वर (टायफस ज्वर) आनी क्यू ज्वर हांचेर संशोधन केलें आनी वांगडाच निदानात्मक व्हायरस प्रयोगशाळेची देखरेख केली. १९४६ वर्सा परतून बॉस्टनच्या चिल्ड्रन्स हॉस्पिटल मॅडिकल सँटरांतलें आपलें प्रशिक्षण ताणें फुडें चालू दवरून १९४८ वर्सा पुराय केलें. १९५० वर्सा मेरेन तेच संस्थेच्या संसर्गजन्य रोगांविशींच्या संशोधन विभागांत एंडर्स हाचेवांगडा संशोधन करतना तो नॅशनल रिसर्च कौन्सिलाच्या व्हायरसजन्य रोग विशयाचो वरिश्ठ अधिछात्र आशिल्लो. एंडर्स हाचेवांगडा काम करतना रॉबिन्सान पोलिओक कारणीभूत आशिल्ल्या व्हायरसाची संवर्धित ऊतकांत वाड करपाविशीं आनी तातुंतल्या तंत्राचो हेरकडेन उपेग करपाविशीं खूब संशोधन केलें. हो व्हायरस तंत्रिका ऊतकाच्या भायर वाडूंक शकता आनी चडसो तो शरिराच्या तंत्रिकाबाह्य ऊतकांत अस्तित्वांत आसता आनी उपरांतूच तो मेंदूच्या तळा कडल्या भागांत आनी मेरुरज्जूच्या कांय भागांनी आक्रमण करता, अशें रॉबिन्स आनी ताच्या वांगड्यांनी प्रस्थापीत केलें. ह्या संशोधनाक लागून पोलिओवयली लस तयार करपाक, प्रकृश्ट निदान पद्दत विकसीत जावपाक आनी वेगवेगळे नवे व्हायरस वेगळे जावपाक आदार मेळ्ळो. हाचेभायर रॉबिन्स हाणें गालगुटां, सरपी (herpes) आनी गोरवांची देवी हांकां कारण आशिल्ल्या व्हायरसांचोय अभ्यास केलो. इ.स. १९५२ वर्सा हार्व्हर्ड मॅडिकल स्कूल, चिल्ड्रन्स हॉस्पिटल मॅडिकल सँटर, बॉस्टन लाइंबा - इन हॉस्पिटल आनी मॅसॅच्युसॅट्स जनरल हॉस्पिटलांत सहयोगी वैज, सहयोगी संचालक, संशोधन अधिछात्र अशा विंगड विंगड पदांचेर ताची नेमणूक जाली. फुडें त्याच वर्सा तो क्लिव्हलँड (ओहायओ) च्या वॅस्टर्न रिझर्व्ह युनिव्हर्सिटी स्कूल ऑफ मेडिसिन हातूंत बालरोगविज्ञानाचो प्राध्यापक आनी क्लिव्हलँड मेट्रोपॉलिटन जनरल हॉस्पिटलाच्या बालरोगविज्ञान आनी संपर्कजन्य रोग विभागाचो संचालक जालो. १९६६ वर्सा तो केस वॅस्टर्न रिझर्व्ह युनिव्हर्सिटी स्कूल ऑफ मेडिसिनाचो अधिश्ठातो आनी १९८० वर्सासावन गुणश्री अधिश्ठातो आसा.

रॉबिन्स, नॅशनल अॅकॅडेमी ऑफ सायन्सीस आनी अमेरिकन फिलॉसॉफिकल सोसायटी ह्या संस्थांचो वांगडी आसून वैजकी शिक्षण, बालरोगविज्ञान, संपर्कजन्य आनी संसर्गजन्य रोग हेविशीं वेगळया

वेगळ्या समित्यांचो वांगडी अध्यक्ष वा सल्लागार म्हणून ताणें काम केलें. नोबॅल पुरस्काराभायर ताका जॉन कॅरोल, मिसूरी आनी न्यू मेक्सिको ह्या विद्यापिठांच्यो मानादीक पदव्यो तेच भाशेन दुसऱ्या म्हाझुजांतले खाशेले सेवेखातीर ब्राँझ स्टार (१९४५), मीड जॉन्सन पुरस्कार (१९५३) आनी मॅडिकल म्युच्युअल ऑनर पुरस्कार (१९६९) हे भोवमान मेळळे. व्हायरस आनी रिकेट्सियाजन्य रोगांविशींचे ताचे संशोधनात्मक निबंद उजवाडा आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**रॉब्लेस, आल्फॉन्सा गार्सिया :** (जल्म : २० मार्च १९११, झामोरा, मेक्सिको).

मेक्सिकन मुत्सद्दी. निशस्त्रीकरणाचो पुरस्कर्तो आनी जागतिक शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो पयलो मेक्सिकन मानकरी (१९८२).

ताच्या बापायचें नांव कीरीनो आनी आवयचें नांव तेरेसा रॉब्लेस. मेक्सिकोंतल्या राश्ट्रीय स्वायत्त विद्यापिठांतल्यान शिक्षण घेवन ताणें पदवी मेळयली आनी उच्च शिक्षणाखातीर तो पॅरिस विद्यापिठांत गेलो. कांय वर्सां ताणें द हेग हांगाच्या आंतरराश्ट्रीय विधी अकादमींत शिक्षण घेतलें आनी उपरांत ताणें मेक्सिकोच्या विदेश खात्यांत नोकरी धरली. तेन्नाच ताणें सॅन फ्रॅन्सिस्कोचे परिशदेंत वांटो घेतलो. हे परिशदेंतूच संयुक्त राश्ट्र संघटनेची स्थापणूक करपाचो निर्णय घेतलो आनी उपरांत ताची संयुक्त राश्ट्र संघटनेच्या सचिवालयांत नियुक्ती जाली. तेन्नाच क्रॉनॉ मारिआ द शिझ्सलो हिचेकडेन ताचें लग्न जावन ताका दोन चले जाले.

१९३९ - ४१ ह्या काळांत ताणें स्वीडनांत आंतरराश्ट्रीय विभागांत काम केलें, थंयच ताका राजकीय घडामोडींचे समितीचें महासंचालकपद मेळळें (१९४१ - ४६). उपरांत (१९४६ - ५७) ह्या काळांत ताका संयुक्त राश्ट्र संघटनेच्या मुखेल सचिवालयांत महासंचालकपद दिलें. १९६२ - ६४ त तो ब्राझीलाक मॅक्सिकन राजदूत म्हणून गेलो. १९६४ वर्सा लॅटीन अमेरिका अण्वस्त्र चांचणेपसून मुक्त उरची म्हणून नियुक्त केल्ल्या आयोगाचें अध्यक्षपद ताचेकडेन आयलें. ताच्याच यत्नांनी इलातेलोल्को हो म्हत्वाचो करार जालो (१९६७). तेच भाशेन सहाय्यक विदेश सचीव (१९६४ - ७१), संयुक्त राश्ट्रां हे संघटनेंत स्थायी प्रतिनिधी परराश्ट्र मंत्री ह्या उंचेल्या पदांचेर ताची नेमणूक जाली. निशस्त्रीकरणाच्या धोरणाक तेंको दिवपाखातीर जिनीव्हा आनी न्युयॉर्कांतल्या निशस्त्रीकरण परिशदांनी ताणें वांटो घेतलो आनी संवसारीक शांततायेखातीर ताणें निशस्त्रीकरणाचो खर पुरस्कार केलो (१९७७ - ७८). इलातेलोल्को ह्या शांतताय तहाखातीर तशेंच निशस्त्रीकरणाच्या यत्नाखातीर ताका शांततायेखातीरचो मिर्दाल हिचेवांगडा १९८२ चो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

रॉब्लेसान जागतिक शांततायेचो पुरस्कार करपाखातीर खूब लिखाण केलें. तातूंतले कांय उल्लेख करपासारके आसात ते अशे - पॅन अमेरिकॅनिझम अँड द गुडनेबर पॉलिसी (१९४०), द सॉरबॉन यस्टरडे अँड टुडे (१९४३), पोस्ट वॉर मेक्सिको (१९४४), मेक्सिकन इंटरनॅशनल पॉलिसी (१९४६), द पोस्ट वर्ल्ड वॉर : फ्रॉम द अटलांटिक चार्टर टू द सॅन फ्रॅन्सिस्को कॉन्फरन्स (३ खंड, १९४९), मेक्सिको इन युनायटेड नेशन्स (२ खंड, १९६०), द प्रोहिबिशन ऑफ न्यूक्लिअर आर्मस इन लॅटीन अमेरिका (१९७५), सिक्स यिअर्स ऑफ मेक्सिकन फॉरिन पॉलिसी (१९७६), ३३८ डेज ऑफ इलातेलोल्को (१९७७).

- कों. वि. सं. मं.

**रॉय, मानवेंद्रनाथ :** (जल्म : इ. स. १८८७; मरण : २५ जानेवारी १९५४).

भारताचे स्वातंत्र्य चळवळींतलो क्रांतिकारक, आंतरराश्ट्रीय साम्यवादी चळवळीचो सुरवातीच्या काळांतलो अग्रणी आनी स्वतंत्र बुध्दिमत्तेचो व्हड तत्त्वचिंतक.



बंगालच्या एका ब्राह्मण कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. ताचें मूळ नांव नरेंद्र भट्टाचार्य. कॉलेजींत आसतना लेगीत तो राजकीय चळवळींत पडलो. तो दहशतवादी पंगडाकडेन चड आकर्शीत जालो आनी ताणें पिश्तोल वापरपाचें तशेंच बॉम तयार करपाचें शिक्षण घेतलें. जतीन मुखर्जी ह्या क्रांतिकारकाचे प्रेरणेन ताणें सशस्त्र बंडांतूय वांटेकार जावपाचें थारायलें. हाचोच एक वांटो म्हणून तो गुप्तपणान फादर मार्टिन आनी मानवेंद्रनाथ रॉय हीं नांवां घेवन इस्ट इंडिज, जर्मनी, चीन, जपान, आग्नेय आशियांतले कांय देश, अमेरिका, न्यूयॉर्क, मेक्सिकोंत शस्त्रां मेळोवपाखातीर गेलो. मेक्सिकोक बोरोडीन हो फांकिवंत क्रांतिकारक ताका मेळ्ळो आनी ताच्याच प्रभावान तो पुराय साम्यवादी जालो. ह्याच काळांत इव्हलिन ट्रेंट हे अमेरिकन चलयेकडेन तो लग्न जालो. मेक्सिकोंत साम्यवादी पक्षाची ताणें स्थापना केली. क्रांतीउपरांत मेक्सिकोंत घडलेल्या सरकाराचें अध्यक्ष करांझा हाचो तो लागशिल्लो सल्लागार आसलो. लॅनिन ताच्या कार्यान प्रभावित जालो आनी १९१७ वर्सा बोल्शेव्हिक क्रांती सफळ जाले उपरांत रशियेच्या फुडाऱ्यांनी रॉयाक मॉस्कोक आपोवणें धाडलें. कम्युनिस्ट इंटरनॅशनलच्या (कॉमिन्टर्न) कार्यकारिणीचेर रॉय हाची नेमणूक केली. १९२६ चे अखेर हे संघटनेंतल्या चारूय म्हत्वाच्या पदांचेर म्हळ्यार प्रेसिडियम, राजकीय मंडळ, कार्यकारी मंडळ आनी

संवसारीक काँग्रेसीचेर ताची निवड जाली. १९३६ त चीनान क्रांतीचो मार्गदर्शक म्हणून ताका धाडलो. थंय बोरोडीन आनी रॉय हांचेमदीं मतभेद जाले. चीनांत क्रांती फसली. रॉय मॉस्कोक परतलो तो वेळमेरेन रशियेंत स्टालीनान सत्तासर्त सुरू केल्ली. तेन्ना रॉय बुखारिनाच्या आदारान बर्लिनाक गेलो आनी १९३० वर्सा गुपीतपणान भारतांत परतलो.

भारतांत सुरवेचो काळ ताणें अज्ञातवासांत डॉ. महमूद ह्या नांवान काडलो. कानपूर कटांत वांटेकार जाल्ल्याचो आरोप दवरून ब्रिटीश सरकारान ताका बारा वर्सांची ख्यास्त फर्मायली. कादयेंतल्यान भायर सरल्या उपरांत तो काँग्रेस पक्षांत सामील जालो. पूण फुडाराक गांधीजीचे विचारसरणेकडेन रॉयाचे विचार जमना जाले. १९३९ तल्या दुसऱ्या झुजाक भारतान तेंको दिवंक जाय अशें ताचें मत आशिल्लें. काँग्रेसीकडेन मतभेद जाल्ल्यान निमाणें १९४० त आपलें रॅडिकल डेमोक्रेटिक गटाक काँग्रेसींतल्यान ताणें भायर काडलो. १९४२ चे चळवळी पसूनय तो पयस रावलो. १९४८ त ताणें आपल्या पक्षाचें विसर्जन केलें. नवमानवतावादाचो विचार ताणें मांडलो. रॉय हाणें स्वातंत्र्य हें सगळयांत उंचेलें मुल्य मानलां. स्वातंत्र्याचो सोद म्हळयारूच सत्याचो सोद अशें तो मानतालो. हुकूमशायेचो तो कट्टो विरोधक आशिल्लो. स्वातंत्र्य, बुध्दिप्रामाण्य आनी सामाजिक सुसंवाद हांचेरूच क्रांतीची उबारी आसता. व्यक्ती ही समाज आनी राज्य हांचेपरस व्हड आनी म्हत्वाची. सामाजिक संघटनेपरस व्यक्तिस्वातंत्र्य म्हत्वाचें अशे ताचे विचार आशिल्ले. आपल्या ह्या विचारांच्या आदारान स्वतंत्र भारताखातीर ताणें एक राज्य घटनाय तयार केल्ली. उपचारिक उंचेलें शिक्षण घेनासतना मानवेंद्रनाथ रॉयाची गणना आर्विल्ल्या भारतांतल्या व्हड विद्वानांमदीं जाता. ताणें तत्त्वज्ञान, राजकारण असल्या विशयांचेर ६५ ग्रंथ तशेंच ३७ पुस्तकां बरयल्यांत. 'इंडिपॅंडॅंट इंडिया' ह्या सातोळयांतल्यान ताणें बरेंच लिखाण केलां. ताचे बरेचशें बरप अप्रकाशीत उरलां.

दहशतवाद, साम्यवाद, राश्ट्रवाद आनी निमाणे कडेन नवमानवतावाद असो ताचो विचार प्रवास जालो. दर खेपे तर्कशुध्द विचारीक आलोकनां उपरांतूच ताच्या मतांत बदल जालो. लोकमताक वा प्रस्थापिताक खूश करपाखातीर ताणें केन्नाच तडजोड केली ना. देखून ताका अज्ञातवासांत रावचें पडलें इतकेंच न्हय तर वेंचणुकेंत ताच्या पक्षाची हार जाली.

मसुरीक इ. स. १९५२त एका अपघातांत ताका अपंगूळपण आयलें, तरी ताचो वावर आनी लिखाण, वाचन, चिंतन चालूच आशिल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

**रॉय, राजा राममोहन :** (जल्म : इ.स. १७७२; मरण : १८३३).

राजा राममोहन रॉय हो भारतांतल्या आर्विल्ल्या विचारांचो आनी सामाजिक सुदारणेचे चळवळीचो आद्य प्रवर्तक.

बंगालच्या बर्दान जिल्ह्यांतल्या राधानगर गांवांत एका गिरेस्त घराण्यांत रॉय हाचो जल्म जालो. ताचो बापूय हो सनातनी ब्राह्मण आशिल्लो. राममोहनाचे भोंवतणी मुसलमान लोक आशिल्ले. उर्दू आनी फारसी भाशांचो आनी तातुंतले तातूंत सुफी पंथीय शिकवणेचो ताच्या मनाचेर अदीक प्रभाव पडलो. कुराणाच्या अभ्यासान प्रभावीत जाल्ल्यान ताचो मुर्तीपुजेचेर विश्वास नाशिल्लो. हेचखातीर



बापायकडेन मतभेद जाल्ल्यान ताणें घर सोडलें आनी तो रंगपूराक दिग्बी ह्या इंग्रज अधिकाऱ्यावांगडा रावूंक लागलो. किरिस्तांव धर्मियांकडेन ताचो लागशिल्लो संबंद आयलो. १८०५ ते १८१४ ह्या काळांत ताणें इस्ट इंडिया कंपनींत नोकरी केली. १८१५ त नोकरी सोडून तो कलकत्त्याक रावंक लागलो. हांगा ताणें 'आत्मीय सभा' ही संस्था स्थापली. हिंदू धर्माचें मूळ आशिल्ल्या वेदांचो अभ्यास करपाखातीर ताणें इ. स. १८२५ त वेदान्त कॉलेजीची स्थापणूक केली. अस्तंती शिक्षणाचो प्रसार जावपाखातीर ताणें लोकशिक्षणाचेर भर दिलो. धर्मसुदारणेचें वा शिक्षणप्रचाराचें कार्य करतना ताचे मुखार लोक जागृतायेचें उद्दिश्ट आशिल्लें.

जो समाज धर्माचेर आदारिल्लो आसता ताचो उध्दार करपाचो जाल्यार पयलीं धर्मसुदारणा जावंक जाय, ह्या ध्येयान ताणें आपल्या वावराची सुरवात धर्मसुदारणेन केली. मुर्तीपुजा, ल्हान व्हड देवदेवता ह्या वादांत तो केन्नाच घुसपून रावलो ना. समानताय आनी भावपणान मनीस जीण समृध्द जाता, ते खातीर धर्मांत सुदारणा करूंक जाय ही मोख नदरेमुखार दवरून ताणें इ. स. १८२८ त ब्राह्मो समाजाची स्थापना केली.

भुरग्यांचो बळी दिवप, घोवा फाटल्यान बायलेन सती वचप तशेंच बायलांची समाजांतली स्थिती, तांचेर जावपी अन्याय पळोवंक नजो जावन ताणें ब्रिटीश सरकाराक हाचे आड कायदो करपाची विनवणी केली, ताच्या ह्या यत्नांक यश मेळळें. इ. स. १८२९ त सरकारान सतीची पद्दत बंद केली. बायलांच्या हक्कांखातीर पयलो आवाज काडलो तो राजा राममोहन रॉय हाणेंच, देखून स्त्री मुक्ती चळवळीचो आनी बायलांच्या शिक्षणाचो तो आद्य प्रवर्तक थरता.

किरिस्तांव धर्मांतलो आदर्शवाद आनी समानताय हांची हिंदू धर्माकडेन जोड घालची आनी समाजसुदारणा करून संवसारीक भावपणाचें ध्येय साकार करचें ह्या उद्‌दिश्टांखातीर झगडपी राजा राममोहन रॉयाक लोकांचो विरोध आनी वायटपण आपणावचें पडलें, पूण तो आपल्या निर्णयासावन मातलेगीत हाललोना. विधवा बायलांचें परत लग्न आंतरजातीय लग्नां हांचो ताणें १५० वर्सांपयलीं पुरस्कार केल्लो.

देशाचे शिक्षण पद्‌दतींत पुराय बदल जालेबगर कुड्डी श्रध्दा आनी रुढींच्या बंधनांत घुसपल्ल्या ह्या समाजाची सुदारणा शक्य ना हें ताका होलमल्लें ताकाच लागून इ. स. १७५८ त सरकारान स्थापन केल्ल्या बनारस महाविद्यालयाक ताणें खर विरोध केल्लो, हांगासल्ल्या विद्यार्थ्यांक विज्ञानीक आनी अद्ययावत शिक्षण दिवचें, अभ्यासक्रमांत विज्ञान आनी गणित ह्या विशयांचो आस्पाव करचो अशीय विनंती ताणें केल्ली. होच आदर्श ताणें पयलीं इंग्लीश शाळा सुरू करतना आपल्या मुखार दवरलो.

रुसो, वॉल्तॅरप्रमाण ताका स्वातंत्र्याविशीं व्हड आत्मियताय आशिल्ली. राजकीय मळार तो सैमीक हक्कांची पवित्रताय मानपी आशिल्लो. मनशाक जीण, दुडू आनी स्वातंत्र्याचो हक्क जाय, अशें ताचें मत आशिल्लें. मात हे सैमीक हक्क सामाजिक सुदारणा आनी मनशाचें बरेपण हांचे आड येवंक जायना, अशें ताका दिसतालें. ब्रिटिशांचें भारताचेर राज्य आयलें, तेखातीर ताणें खोशी उक्तायल्ली दिसता. मात हिंदुस्थानांतल्या लोकांचेर आनी सरकारी नोकरेंत आशिल्ल्या हिंदी सेवकांचेर जे अन्याय जातात, ताची दखल ताणें घेतिल्ली. मुल्की आनी फौजदारी विधिनियम तयार करप, शेत साऱ्याचें प्रमाण, हेबिअस कॉर्पस ॲक्टाची कारवाय, किरिस्तांव लोकांखातीर नेमिल्ले ज्युरींत हिंदू - मुस्लीमांचो आस्पाव, हिंदी सरकारी चाकराक अधिकाराच्यो सुवाती ह्या विशयांचेर ताणें नेमाळयांतल्यान लेख बरयले आनी सरकाराकडेन कागाळीय केल्यो.

१८२० त आपल्या मताच्या प्रचारा खातीर ताणें 'मिरातउल् अखबार' हें फारसी वृत्तपत्र काडलें. १८२६ त ताणें 'संवाद कौमुदी' हें बंगाली खबरांपत्र सुरू केलें. ब्रिटीश सरकारच्या नव्या प्रॅस ॲक्टाक विरोध करपाखातीर ताणें सुप्रीम कोर्ट आनी किंग - इन - कौन्सिलीकडेन कागाळी केल्यो.

संवसारांतल्या राश्ट्रांची कसलीय मध्यवर्ती संघटना आसची अशें ताका दिसतालें. मानवताय आनी समानतायेचो ताणें सदांच पुरस्कार केलो.

राजा राममोहन रॉय हाका आर्विल्ल्या भारताचो निर्मातो मानतात. आपल्या धर्म ग्रंथाच्या परिशीलनांतल्यान ताणें सगळया धर्मांविशीं आत्मियताय आनी आदार लोकांक शिकयलो. तो भारतांतलो मध्ययुगीन काळ सोंपोवन आर्विल्लो काळ सुरू करपी द्रश्टो युगपुरूस आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**रॉयल सोसायटी :** ग्रेट ब्रिटनांतली ही सगळयांत पोरनी विज्ञानीक संस्था. १९६० वर्सा ही संस्था स्थापन जाली. तिचें पुराय नांव 'द रॉयल सोसायटी ऑफ लंडन फॉर इंप्रुव्हिंग नॅचरल नॉलेज'. १९६१ त लॉर्ड विल्यम ब्रंगकर हाची संस्थेचो पयलो अध्यक्ष म्हूण नेमणूक जाली. इंग्लंडचो राजा दुसरो चार्ल्स हाणें १५ जुलय १९६२ दिसा संस्थेचे पयले सनदेक मान्यताय दिली. संस्थेच्या खाशेल्या अधिकारांत वाड करपी दुसरी सनद २२ एप्रिल १९६३ दिसा संमत जाली. Nullius in Verba हें संस्थेचें ब्रीदवाक्य.

ह्या ब्रीदवाक्याक अणसरून संस्थेचीं जीं उद्‌दिश्टां थारायलीं तीं अशीं - (१) संस्थेचे नवे वांगडी वेंचतना उंचेलो विज्ञानीक पांवडो राखप आनी फकत सामान्याभायर गुणवत्ता आशिल्ल्या मनशाकच पदकां, अधिव्याख्यातोपदां संशोधन नेमणुको हांचो मान दिवप; (२) नवें विज्ञानीक गिन्यान उजवाडा हाडप, तशेंच तेविशीं आवड आशिल्ल्यांक आनी सगळयांक उकते आशिल्ले संस्थेचे बसकेंत ताचेर भासाभास करपाक प्रोत्साहन दिवप; (३) वेगवेगळे तरेन विज्ञानीक संशोधनाक, खास करून नव्या मळावयल्या संशोधनाक उत्तेजन दिवप; (४) सहकारी संशोधनाक पुरस्कृत करप आनी तें सोयीचें जावपाखातीर यत्न करप, खास करून हेरखातीर परदेशी विज्ञानीक संस्थांकडेन विनिमय कबलात करप आनी परदेशांत प्रवास करपाक मदत करप; (५) जायत्या आंतरराश्ट्रीय बीनसरकारी संस्थांकडेन संपर्क दवरपी ब्रिटनाची राश्ट्रीय संस्था म्हणून काम करप (६) सरकाराक आनी हेर संस्थांक विज्ञानीक सल्लो दिवप (७) खास करून विज्ञानाच्या इतिहासाविशीं ग्रंथ आशिल्लें ग्रंथालय चलोवप. ब्रिटीश सरकाराक राश्ट्रीय म्हत्वाच्या विज्ञानीक उपक्रमांविशीं सल्लो दिवपावांगडाच आंतरराश्ट्रीय संशोधन मंडळाचेर ब्रिटीश प्रतिनिधी नेमपाचो अधिकारूय संस्थेक दिला. ही संस्था सरकारापसून पुराय तरेन स्वतंत्र आसली तरी वेगवेगळ्या फांट्यांतल्या विज्ञानीक संशोधनाक चालना दिवपाखातीर आनी आंतरराश्ट्रीय सहकार आनी हेर संस्थांवांगडा आयोजीत करतल्या विनिमय कार्यक्रम हे खातीर दितल्या वर्सुकी अनुदानाची वेवस्था सरकारावतीनूच करप जाता.

हे संस्थेवरवीं जीं म्हत्वाचीं कार्यां जाल्यांत तीं अशीं: कालगणना पद्‌दतींतलो बदल (१७५१); लांबायेच्या ब्रिटीश आनी फ्रेंच प्रमाणभूत मापांची तुळा, भुगणितीय सर्वेक्षण; अंटार्क्टिक मोहिमो (कॅप्टन जेम्स कूक १७७२, जेम्स रॉस १८३९, १९००); आर्क्टिक मोहिमो, आंतरराश्ट्रीय भूभौतिकी वर्सांतली अंटार्क्टिक मोहीम (१९५६ - ५९), सुर्याच्या गिराणाचें निरिक्षण करपाखातीर जायत्यो मोहिमो, चार्ल्स बेबिज हाचें

गणकयंत्र, रंगाधत्वासंबंदीचें अनुसंधान, वॅस्ट इंडीजांतली ज्वालामुखी उद्रेकांची पळोवणी, आयन्स्टायन हाचो व्यापक सापेक्षताय सिध्दांताचो पडटाळो पळोवपारवातीर १९१९ तलें खग्रास सूर्यगिराणाचें निरिक्षण करपारवातीर दोन मोहिमो, वेगवेगळया उश्ण कटिबंधीय रोगांविशीचें (हिंवताप, न्हिदेरोग) संशोधन आदी संस्थेच्या वर्धापन दिसा, संस्थेवरवीं विज्ञानांत वा तंत्रविद्येंत म्हत्वाची कामगिरी करपी मनशांक दर वर्सा पदकां दितात. संस्थेचो सर्वोच्च भोवमान कॉप्ली पदक हो आसून तो सर गॉडफ्री कॉप्ली हाच्या मरणपत्रांतले देणगेंतल्यान १७३१ त स्थापन केला. हें पदक सवंसारांतल्या खंयच्याय शास्त्रज्ञाक ताणें खंयच्याय विशयांत केल्ले कामगिरीखातीर दितात. तीन रॉयल पदकां दर वर्सा संस्थेच्या मंडळान केल्ले शिफारशीप्रमाण ब्रिटनाच्या सार्वभौम राजसत्तेवतीन दितात. हातुंतलीं दोन सैमीक गिन्यानांत म्हत्वाची भर घालपारवातीर आनी तिसरें अनुप्रयुक्त विज्ञानांत खाशेली कामगिरी केल्लेखातीर दिवप जातात. हेर णव पदकांमदीं ब्रिटनाचे राश्ट्रीय उदरगतीक भर घालपी विज्ञान वा अभियांत्रिकी, वा तंत्रविद्या हांचे प्रगतीखातीर दितल्या मुलार्ड पदक आनी पुरस्कार (स्थापना १९६६), तेचपरी खंयच्याय स्वरुपांतल्या उर्जेच्या कार्यक्षम उपेगाक वा रुपांतराक आदार दिवपी खाशेल्या विज्ञानीक वा तंत्रीक वावराखातीर दितल्या एस्सो पुरस्कार हांचो आस्पाव जाता. हाचेभायर डेव्ही आनी ह्यूझ हीं पदकां दर वर्सा रम्फर्ड आनी डार्विन हीं पदकां दोन वर्सांनी, सिल्व्हॅस्टर पदक तीन वर्सांनी आनी ब्यूकनन पदक पांच वर्सांनी दितात.

हे संस्थेच्यो स्वताच्यो संशोधन संस्था आनी प्रयोगशाळा नात. संशोधक प्राध्यापक आनी अधिछात्र हांची हेर संस्थांनी (विद्यापिठांत) वेवस्था करप जाता. हे संस्थेवतीन दाननिधीवरवीं आठ खास व्याख्यानां आयोजित करतात. हातुंतलीं चार व्याख्यानां वर्सुकी आसून तातुंतलीं कूनियन व्याख्यानां (स्थापना १६८४) जीवविज्ञानीय विशयाचेर, बेकरीयन व्याख्यानां (१७७५) भौतिक विज्ञानाचेर, लेव्हेनहूक व्याख्यानां सूक्ष्मजीवविज्ञानाचेर आनी क्लिफर्ड पॅटर्सन व्याख्यानां विद्युत् विज्ञान आनी तंत्रविद्या ह्या विशयांचेर आसतात. तीन व्याख्यानां तिवर्सुकीं आसून तातुंतलीं बर्नाल व्याख्यानां विज्ञानाच्या समाजीक कार्याचेर, फेरिअर व्याख्यानां तंत्रिका तंत्राची संरचना आनी वावर हांचेर तशेंच विल्किन्झ व्याख्यानां विज्ञानाच्या इतिहासाचेर आसतात. मदीं मदीं जावपी रदरफर्ड स्मृती व्याख्यानां राश्ट्रकूल देशांतल्या वेंचीक विद्यापिठांनी आनी ब्लॅकेट स्मृती व्याख्यानां अदींमदीं भारतांत आनी ब्रिटनांत आयोजीत करतात.

ही संस्था विज्ञानीक संशोधनाचे निबंदय उजवाडाक हाडटा. १६६५ त स्थापन जाल्ल्या आनी सतत उजवाडाक येवपी फिलॉसॉफिकल ट्रॅन्झॅक्शन्स ह्या सगळयांत पोरन्या विज्ञानीक नेमाळयांत व्याप्तीलेख आनी बसकांतल्या भासाभासांचे अहवाल उजवाडाक येतात. १८३२ त सुरू जाल्ल्या प्रोसिडिंग्ज हातूंत लघू संशोधन निबंद व्याख्यानां आनी एका दिसाचे बसकेंतलीं भासाभाशेचीं कार्यवृत्तां उजवाडाक येतात. दर वर्सा ही संस्था बायॉग्राफिकल मेम्बार्स ऑफ फॅलोस ऑफ द रॉयल सोसायटी (एक खंड), इयर बूक आनी नॉटस् अँड रॅकॉर्ड्स ऑफ द रॉयल सोसायटी हीं नेमाळीं उजवाडाक येतात. हातुंतल्या पयल्या पुस्तकांत हालीं मरण आयिल्ल्या दर एका वांगड्याचें चरित्र आनी ताच्या वावराचो विज्ञानीक नदरेन गूणगौरव हांचो आस्पाव जाता.

इ.स. १६६६ हॅन्री हौअर्ड आनी ताचो आजो टॉमस हांणी आपले ग्रंथ संग्रह संस्थेक भेट दिवन हे संस्थेक ग्रंथालयाची बुन्याद घाली. हे संस्थेंत १,४०,००० वयर ग्रंथ आसून १६६० ते १८०० ह्या काळांतल्या विज्ञानाच्या इतिहासाचेर अभ्यास करपारवातीर हें एक बरें ग्रंथालय आसा. ह्या ग्रंथालयांत हेर देशांच्या राश्ट्रीय विज्ञानीक संस्थांनी उजवाडाक हाडिल्लीं नेमाळीं, विज्ञानाचे आनी शिक्षणीक संस्थांचे इतिहास, वांगड्यांनी बरयल्ले ग्रंथ, तशेंच वांगड्यांचीं चरित्रां आनी आत्मचरित्रां हांचे संग्रह आसात.

हे संस्थेंत आयझॅक न्यूटन, हंफ्री डेव्ही, मायकेल फॅराडे, अर्नेस्ट रदरफर्ड, विल्यम टॉमसन, केल्व्हिन, जे. जे. टॉमसन, आर्थर एडिंग्टन, लॉरेन्स आनी विल्यम ब्रॅग, ॲल्बर्ट आयन्स्टायन, नील्स बोर, पॉल डिरेक, तशेंच विज्ञान आनी तंत्रविद्येच्या वेगवेगळया फांट्यांतलें गिन्यान विस्तारपाक म्हत्वाची कामगिरी केल्ल्या जायत्या विज्ञानिकांचो हे संस्थेच्या वांगड्यांचे वळेरेंत आस्पाव आसा. राश्ट्रकुलांतल्या, देशांतल्या आनी आयरिश प्रजासत्ताकांतल्या नामनेच्या विज्ञानिकांवांगडाच संवसारांतल्या हेर देशांतल्या व्हड दर्जाच्या विज्ञानिकांकूय परदेशी वांगडी म्हूण वेंचप जाता. सुरवेक हे संस्थेचो वांगडी जावपाक मर्यादा नाशिल्ली. पूण १८४७ वर्सा सावन दरवर्सा वांगडी वेंचपाचे संख्येंत मर्यादा घाली आनी फकत बऱ्या पांवड्याचें विज्ञानीक काम करपी विज्ञानिकांचीय वेंचणूक करपाचें थारायलें. १९८८ मेरेन संस्थेच्या वांगड्यांची संख्या हजारांपरस चड आनी परदेशी वांगड्यांची संख्या सुमार शंबर आशिल्ली.

रॉयल सोसायटीचो पयलो भारतीय वांगडी अर्देशिर कर्सेटजी हो आशिल्लो. १९८८ मेरेन २९ भारतीय विज्ञानीक रॉयल सोसायटीचे वांगडी आशिल्ले. हे वांगडी अशेः अर्देशिर कर्सेटजी (१८४१), श्रीनिवास अय्यंगार रामानुजन (१९१८), जगदीशचंद्र बोस (१९२०), चंद्रशेखर व्यंकट रामन (१९२४), मेघनाद साहा (१९२७), बिरबल रुचिराम साहनी (१९३६), कार्यमाणिक्कम श्रीनिवास कृष्णन (१९४०), होमी जहांगीर भाभा (१९४१), शांतिस्वरूप भटनागर (१९४३), प्रशांतचंद्र महालनोबीस (१९४५), दारशा नौशेरवान वाडिया (१९५७), सत्येंद्रनाथ बोस (१९५८), शिशिरकुमार मित्र (१९५८), तिरूव्यंकट राजेंद्र शेषाद्री (१९६०), पंचानन माहेश्वरी (१९६५), कल्यमपुडी राधाकृष्ण राव (१९६७), मामबिलिकाल्थिल गोविंद कुमार मेनन (१९७०), बेंजामिन पिअरी पाल (१९७२), मोनकोंबू सांबशिवन् स्वामिनाधन (१९७३),

गोपालसमुद्रम नारायण रामचंद्रन (१९७७), देवेंद्र लाल (१९७९), अवतार सिंग पेन्टल (१९८१), चिंतामणी नागेश रामचंद्र राव (१९८२), सुब्रह्मण्यम चंद्रशेखर (१९८३), ओबेद सिद्दीकी (१९८४), वुलमिरी रामलिंगस्वामी (१९८६), सी. गोपालन (१९८७), ए. पी. मित्र (१९८८), सी. एस्. शेषाद्री (१९८८).

- कों. वि. सं. मं.

**रॉय, शरच्चंद्र :** (जल्म : ४ नोव्हेंबर १८७१ करपाडा, बंगाल; मरणः ३० एप्रिल १९४२ रांची).

भारतांतलो एक नामनेचो मानवशास्त्रज्ञ. ताचो जल्म सधन बंगाली कायस्थ कुटुंबांत जालो. ताचो बापूय पूर्णचंद्र रॉय हो मुन्सीफ आसलो. तेखातीर बापायचे बदलेक लागून शरच्चंद्राचें मुळावें आनी सुरवातीचें माध्यमिक शिक्षण वेगवेगळया सुवातांनी जालें. कलकत्त्यांतल्या कॉलीजिएट हायस्कुलांतल्यान १८८८ वर्सा तो मॅट्रिक जालो. कलकत्ता विद्यापिठांतल्यान ताणें १८९२ वर्सा बी. ए., १८९३ वर्सा एम. ए. आनी १८९५ वर्सा बी. एल्. ह्यो पदव्यो संपादन केल्यो. १८९५ वर्सा तो मैमनसिंग हांगाच्या धल्ला विद्यालयांत मुख्याध्यापक म्हणून कामाक लागलो. उपरांत रांचीक तो मिशन स्कुलाचो मुख्याध्यापक जालो. १८९८ वर्सा ताणें अध्यापन वेवसाय सोडून वकिलीक सुरवात केली आनी रांचीक तो स्थायीक जालो. वेवसायाच्या निमतान ताचो आदिवासींच्या मुंडा जमातीच्यो चालीरिती, रुढी हांचेकडेन संबंद आयलो आनी ताचें लक्ष छोटा नागपूरच्या मुंडाच्या त्रासांचे जिणेकडेन गेलें. हे लोक अस्तंती अभ्यास करतात तें पळोवन आपुणूय तांचे खातीर किदेंय करपाक जाय अशें ताका दिसलें. तेन्ना ताणें मुंडांची भास, चालीरिती आनी रुढी हांच्या अभ्यासाक सुरवात केली. १९१२ ते १९३९ ह्या काळांत ताणें ओरिसा - बिहारांतल्या वेगवेगळया आदीम जमातींचो अभ्यास करून खूब लिखाण केलें. तातूंत शंबरांपरस चड सोदनिबंद आसून सुमार सात अभ्यासपूर्ण ग्रंथ आसात. ताणें मुंडासंबंदीं अभ्यास करून 'द मुंडास अँड दॅअर कंट्री' हो संशोधनात्मक ग्रंथ १९१२ वर्सा उजवाडायलो. हे उपरांत 'द ओराओंस ऑफ छोटा नागपूर' (१९१५) 'द प्रिन्सिपल्स अँड मॅथड्स ऑफ फिजिकल अॅन्थ्रॉपॉलॉजी' (१९२१), 'द बिन्होर्स' (१९२५), ओराओं रिलिजन अँड कस्टम्स (१९२८), 'द हिल भुइयास ऑफ ओरिसा' (१९१५), 'द खरियास' (१९३७) हे ग्रंथ बरयले. हाका लागून मानवशास्त्रज्ञ म्हणून ताका मान्यताय मेळ्ळी. मानवशास्त्राच्या अभ्यासाखातीर ताणें 'मॅन इन इंडिया' हें त्रैमासिक १९२१ वर्सा सुरू केलें.

१९१९ - २१ ह्या काळांत ताणें पाटणा विद्यापिठांत प्रपाठक म्हणून काम केलें. १९२० वर्सा भारतीय विज्ञान परिशदेंत तो मानवशास्त्र विभागाचो अध्यक्ष आशिल्लो. बिहार आनी ओरिसा कायदेमंडळाचेर वांगडी म्हणून तो वेंचून आयलो.

ताच्या मानवशास्त्राच्या विद्वत्तायपूर्ण लिखाणाखातीर ब्रिटीश शासनान ताका कैसर-इ-हिंद हें रुप्यापदक १९१३ वर्सा आनी रायबहादूर हो किताब १९१९ वर्सा फावो जालो.

राश्ट्रीय एकवटाचें म्हत्वपूर्ण कार्य ताणें भारतीय आदिवासींच्या अभ्यासावतीन केलें. रॉयनी मुंडा, भुईया बिन्होर आदी जमातींचो पुराय अभ्यास करून तांचे खाशेले संस्कृतायेचें पयलें दर्शन आपल्या ग्रंथांतल्यान ताणें घडयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**रॉलां, रॉमँ :** (जल्म : २९ जानेवारी १८६६, क्लामसी, फ्रांस; मरणः ३० डिसेंबर १९४४, व्हेझले).

नामनेचो फ्रेंच कादंबरीकार, इतिहासकार, नाटककार, चरित्रकार आनी संगीतज्ञ. १८८९ वर्सा एकॉल नॉर्मालि स्युपेरिओर हे



शिक्षण संस्थेंत इतिहास विशयांत ताणें पदवी घेतली. उपरांतचीं दोन वर्सां ताणें रोमांतल्या पुरातत्त्वविद्या आनी इतिहास ह्या विशयांच्या एका फ्रेंच अभ्यासकेंद्रांत अधिछात्र (फेलो) म्हणून काडलीं. रोमांत आसतना माल्विदा फोन मायझेबग हे समाजवादी विचारांचे जर्मन विदुषीकडेन ताची इश्टागत जाली. तिचे इश्ट संगीतकार व्हाग्नर आनी तत्त्वज्ञ नीत्शे हांचेविशीं माल्विदा रॉलांकडेन उलयताली. हे इश्टागतीचे उत्कृश्ट संस्कार रॉलांचेर जाले.

१८९५ वर्सा पॅरिसाक परत येतकच एकॉल नॉर्मालि हातूंत इतिहास आनी सॉरबॉन विद्यापिठांत ताणें संगिताचो इतिहास शिकयलो. ह्याच काळांत तो संगिताचेर बरोवंक लागलो. ताचे संगिताविशींचे कांय उल्लेख करपासारके ग्रंथ आसात ते अशे - इस्त्वार द् लोपेरा आंनरॉप आव्हां ल्युली ए स्कार्लात्ती (१८९५), म्युझिस्यां दोझुर्दुई (१९०८); ताच्यो धर्माविशीं शोकात्मिका आसात त्यो अशो सँ लुई (१८९७), आयॅर (१८९८) आनी ल् त्रियाँफ द् ला रॅझाँ (१८९८); ले लू (१८९८), दांताँ (१९००) आनी ल् कातोर्झ जुय्यॅ (१९०२) हीं ताचीं फ्रेंच राज्यक्रांतीविशींचीं नाटकां आसात.

ताणें बरयल्लीं बेथोव्हन (१९०३), मायकेलअँजेलो (१९०५), टॉलस्टॉय (१९११) हांच्या चरित्रांक खूब नामना मेळ्ळी. जां क्रिस्तोफ (१० खंड - १९०६ - १२) ही ताची सगळयांत उत्कृश्ट साहित्यकृती. १९१३ वर्सा हे कादंबरेक आकादेमी फ्रांसेजान पारितोशिक भेटयलें. अखिल यूरोप खंड ही हे कादंबरीची फाटभूंय. विशाव्या शेंकड्यांतली एक श्रेश्ठ साहित्यकृती म्हणून हे कादंबरेक मान्यताय प्राप्त जाल्या.

जगांतल्या विंगड विंगड भाशांनी हे कादंबरेचे अणकार जाल्यात. ताच्यो आनीक कांय उल्लेख करपासारक्यो कादंबऱ्यो आसात त्यो अशो : कोलास ब्रडन्यॉं (१९१९), क्लेरांबो : इस्त्वार द्यून कॉंसियांस लीब्र पांदा ला गॅर (१९२५) आनी लाम आंशांते (७ खंड, १९२२- २३).

१९१४ - १८ ह्या पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत तो स्विझर्लंडांत आशिल्लो. १९१५ वर्सा, 'ओ दस्यू द ला मॅले' हें पुस्तपत्र बरोवन ताणें इश्ट तशेंच दुस्मानराश्ट्रांतल्या बुदवंतांक शांततायेखातीर चळवळ करपाचें आव्हान केलें आनी तेखातीर ताका खूब जाणांचो राग पत्करचो पडलो.

ताका बौध्द धर्मांत आनी साम्यवादांतूय आवड निर्माण जाल्ली. ताच्या वैचारिक परिवर्तनाचें दर्शन ताणें बरयल्ल्या 'ल प्रेक्युर्सर' (१९१९), कँझां द कॉंबा (१९१९ - ३४), 'पार ला रेव्होल्युस्यॉं ला पॅ' (१९३५) आनी एसॅ स्युर लामिस्तीक ए लाक्सियॉं द् लॅंद (दोन भाग, ३ खंड, १९२९ - ३०) ह्या निबंदांतल्यान दिसता. आल्बेअर श्वाइत्सर, ॲल्बर्ट आइन्स्टाइन, रिचर्ड स्ट्राउस, बर्ट्रंड रसेल, रवींद्रनाथ टागोर ह्या जागतिक नामनेच्या व्यक्तींकडेन रॉलांन केल्लो पत्रवेव्हार काय्ये रॉमँ रॉलां (१९४८) ह्या नांवान ग्रंथरुपान उजवाडा आयला.

रॉलांन बरयल्लीं महात्मा गांधी (१९२४), श्रीरामकृष्ण परमहंस (१९२९) आनी स्वामी विवेकानंद (१९३०) हांचीं चरित्रां भारतांत तशेंच युरोपांत खूब लोकप्रिय जालीं. रॉलांक भारताविशीं आकर्शण आनी प्रेम आशिल्लें. ताचे भारताविशींचे अणभव आनी विचार ताच्या 'जुर्नाल– लॅंद' (१९२० - ४३) हातूंत आस्पावल्यात. तातूंत महात्मा गांधी, डॉ. अन्सारी, जगदीशचंद्र बोस, जवाहरलाल नेहरू ह्या भारतीय फुडाऱ्यांचीं मनभुलोवणीं अशीं व्यक्तिचित्रां दिसतात.

फॅसिझमाचो विरोधक आनी म्हान शांततायवादी म्हणून ताका जागतिक नामना मेळिल्ली. १९१९ वर्सा साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार ताका मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

## रॉस, एडवर्ड : (जल्म : १८६६, मरण : १९५१).

एक व्हड समाजशास्त्रज्ञ. अमेरिकन समाजशास्त्राची बुन्याद घालून दिवपी म्हूण रॉसचो उल्लेख जाता. ताचें सबंद आयुश्य सामाजिक सुदारणावादी विचारांचें अध्ययन करपांत गेलें. सामाजिक वर्तन प्रकार, तणाव, सामाजिक प्रक्रिया हांचें ताणें बारिकसाणीन निरीक्षण करून तांचेर खोलायेन संशोधनूय केलें.

रॉसचो जल्म स्कॉटीश आयरीश कुटुंबांत जाल्लो. पूण पिरायेच्या धाव्या वर्साच तो अनाथ जाल्ल्यान सुरवेक ताच्या कांय सोयऱ्या - धायऱ्यांनी आनी उपरांत मेरिऑन गांवच्या बीच कुटुंबान ताचो सांबाळ केलो. मिसेस बीच हिणें ताची खूब अपुरबाय केल्ली. को (Coe) कॉलेजींतल्यान ताणें बी. ए. पदवी घेतली. उपरांत १८९१ त जर्मनींतले जॉन्स हॉपकिन्स विद्यापिठांतल्यान पी. एच्. डी. पदवी हाशील केली. अमेरिकेक परत आयले उपरांत ताणें सुरवेक इंडियाना युनिव्हर्सिटींत प्राध्यापक म्हणून काम केलें. १८९३ वर्सा सावन तो विस्कॉन्सिन युनिव्हर्सिटींत वेवस्थापन आनी अर्थवेवस्था ह्या विशयांचो प्राध्यापक जालो. समाजशास्त्रांचो अभ्यास करून ताणें मांडिल्ल्या सिध्दांतांचो सुदारणावाद वा प्रगतिवाद (Progressivism) हातूंत आस्पाव जाता. नागरीकरणाचे प्रक्रियेंत अनुस्यूत (implicit) आसपी आनी चड करून शेतकामती समाजांत मेळपी तणाव हांचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत अमेरिकेंत अस्तित्वांत आशिल्ल्या नीतीमोलांचेंय ताणें परिक्षण केल्लें. व्यक्तीची वैयक्तीक प्रतिश्ठा, व्यक्तिगत आनी भौशिक नितीमत्ता, समाज आनी व्यक्ती हांचेमदीं जावपी आनी जायत गेल्ली प्रगती, विंगड विंगड सामाजिक घटक ह्या सगळयांचें ताणें निरीक्षण करून तांचें विश्लेशण मांडलें.

'फाऊंडेशन ऑफ सोशिऑलॉजी' ह्या पुस्तकांत ताणें समाज सुदारणा घडोवन हाडपी सिध्दांत मांडून परंपरावादी सामाजिक डार्विनवादाचेर खर टिका केली. ताच्या लिखाणांत मुखेलपणान जीवशास्त्रीय संकल्पना आनी प्रत्यक्षवाद (Positivism) हीं दोन तत्त्वां सांपडटात. ह्या तत्त्वांच्या आदारानूच ताणें बकल, लोरीया, विको ह्या तत्त्वज्ञांचो एकतत्त्ववाद, लिलियनफिल्ड आनी श्काफ्लेचो जीवशास्त्रीय सेंद्रियवाद आनी डिग्रीफ तशेंच एल्. एच्. मॉर्गनचो उत्पत्तिविशींचो उत्क्रांतीवाद हांचेर टिका केली. रॉसान आपल्या निरीक्षणाप्रमाण जीवशास्त्रीय आनी शारिरीक अनुमानांचेर भर दिवन सामाजिक आनी मानसशास्त्रीय घटकांचें विश्लेशण केलां. समाजाचो अभ्यास शास्त्रशुध्द पद्दतीन कसो करचो हाची कल्पना ताणें आपल्या 'फाऊंडेशन ऑफ सोशिऑलॉजी' ह्या पुस्तकांत मांडल्या.

समाजशास्त्रीय संकल्पनेंत रॉसान सामाजिक प्रक्रियांक म्हत्व दिल्लें आसा. सहकार, सर्त, वर्चस्व, सतवणूक, विरोध ह्या सारकिल्या घटकांवरवीं सामाजिक प्रक्रिया तयार जाता. हांचेरखेरीज लश्करी सामर्थ्य, कुटुंबरचणूक, इगर्जेचें कार्य, शासनवेवस्था ह्या सारकिल्या घटकांचोय सामाजिक प्रक्रियेंत वांटो आसता. रॉसान मांडिल्लो आकृतिवाद हो सामाजिक प्रक्रिया आनी सामाजिक वर्तनाचेर आदारिल्लो आसा. 'सोशल कंट्रोल' (१९०१) आनी 'सोशल सायकॉलॉजी' (१९०८) ह्या ताच्या दोन पुस्तकांनी ताणें औपचारीक आनी अनौपचारीक वर्तन - प्रकारांचें विश्लेशण केल्लें आसा. रॉसाच्या 'सोशल कंट्रोल' ह्या ग्रंथांत आयजूय तथ्य आसा. तातूंत रॉसान समाज नियंत्रणाची साधना मांडिल्ल्यान तो चड प्रसिद्द जाल्लो आसा. रुढी, शिश्टाचार, कायदेशीर वा भौशिक अधिकार, धर्म, शिक्षण अशा साबार घटकांक लागून व्यक्तीचें भौशिक वर्तन नियंत्रीत जाता अशें रॉसान आपलें मत त्या ग्रंथांत मांडलां. समाजशास्त्राचो अभ्यास करता आसतना रॉसान

भौशिक सुदारणांचेर चड भर दिला. सामाजिक सुदारणांचो अभ्यास करतना ताणें स्वदेशी आनी परदेशी समाज गृहीत धरिल्ले. देशांतराक लागून निर्माण जावपी सामाजिक पेंचप्रसंग पयस करपाचेय ताणें कांय उपाय सुचयल्यात. खंयच्याय राश्ट्राचो सर्वांगीण विकास जातलो जाल्यार त्या राश्ट्रांनी अमेरिकेप्रमाण अर्थवेवस्थेंत उद्देगीकरण हाडप आनी राज्यवेवस्थेंत लोकशाय आपणावप खूब गरजेचें आसा अशें ताणें मुखार सांगलां. रॉसाचें 'द प्रिन्सिपल ऑफ सोशिऑलॉजी' हें पुस्तक म्हळयार ताच्या समाजशास्त्रीय सिध्दांतांचो आनी संशोधनाचो एक उत्कृश्ट आविश्कार. कृतीशील विचारांक लागून ताका अमेरिकन तशेंच संवसारीक समाजशास्त्रज्ञांमदीं मानाची सुवात लाबल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**रॉस, सर रॉनल्ड :** (जल्म : १३ मे १८५७, अलमोडा, भारत; मरण : १६ सप्टेंबर १९३२, लंडन).

ब्रिटीश वैज आनी सूक्ष्मजीवशास्त्रज्ञ. मलेरीया ह्या जोराक कारणीभूत थारपी परजीवींची (Anopheles) जळारांच्या जठरांत वाड जावन उपरांत तांच्या घांसांतल्यान परजीवींचो मानवी रगतांत प्रवेश ह्या संशोधनाखातीर ताका १९०२ वर्साचो वैद्यक वा शरीरक्रियाविज्ञानाचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.



पिरायेच्या आठव्या वर्सासावन शिक्षणाखातीर रॉनल्डाक इंग्लंडांत धाडलो. ताचो बापूय सैन्यांत अधिकारी आशिल्लो. १८७४ - ७९ ह्या काळांत लंडनच्या सेंट बॉर्थालोम्यू हॉस्पिटलांत वैजकी शिक्षण घेतकच फुडलीं दोन वर्सां ताणें तारवावयलो वैज म्हणून नोकरी केली आनी खूब दर्याभोंवडी केली. १८८१ वर्सा तो भारतीय वैजकी सेवेंत नोकरेक लागलो. १८८९ वर्सा इंग्लंडांत रजेर आसतना भौशिक भलायकेची पदविका मेळयली आनी नव्यानूच प्रस्थापित जाल्ल्या सूक्ष्मजंतुविज्ञानाच्या अभ्यासक्रमाक उपस्थीत रावलो. १८९२ वर्सासावन ताणें मलेरियाच्या जोराच्या अभ्यासांत लक्ष घालें. १८९४ वर्सा सर पॅट्रिक मॅन्सन ह्या नामनेच्या उश्ण कटिबंधीय वैद्यकाच्या तज्ञाकडेन वळख जाली. मॅन्सन हाच्या प्रोत्साहनान आनी मार्गदर्शनाखाल रॉस हाच्या ह्या मलेरिया जोराच्या अभ्यासांत भर पडली. मॅन्सन हाणें मलेरियाविशीं दोन मुखेल नोंदी रॉस हाका दाखोवन दिल्यो (१) मलेरिया जोर आयिल्ल्या दुयेंतींच्या रगतांत सी. एल्. ए. लाव्हरां हाणें सोदून काडिल्ले काळे रंगद्रव्ययुक्त परजीवी आसतात आनी जळारां मलेरिया पातळायतात हो मॅन्सन हाचो स्वताचो सिध्दांत. हाचेभायर रॉस भारतांत परत येतकच लेगीत दोगांयचो पत्रवेव्हार चालू आशिल्लो. रॉस हाचेमुखार दोन मुखेल प्रस्न आशिल्ले. (१) जळारांचे खूब प्रकार आसात, तातुंतलो खंयचो रोग पातळायता? (२) कितल्याशाच परजींवीभितरलो नेमको खंयचो रोग - उत्पादक? २० ऑगस्ट १८९७ दिसा ताका ॲनोफेलीस जळार हीं रोग पातळायतात अशें दिसून आयलें. उपरांत कांय बंद करून दवरिल्ल्या सवण्यांचेर ताणें प्रयोग केले आनी रोगी सवण्यांतले रोग जळारांनी चाबतकच सरळ निरोगी सवण्यांभितर पातळायता हें दाखयलें. ताणें सवण्यांच्या मलेरियाकडेन संबंदीत आशिल्ल्या जळारांतल्या परजीवींच्या जीवनचक्राचोय सोद लायलो. १८९८ वर्सा मॅन्सन हाणें रॉस हाच्या कार्याचो वृत्तांत ब्रिटीश मॅडिकल ॲसोसिएशनच्या एडिंबरोचे बसकेंत मांडलो. त्याच वर्साच्या निमाणें जी. बी. ग्रास्सा आनी ताचो इटालियन वांगडी हांणी मानवी मलेरिया जोराच्या परजीवीचे ॲनोफेलीस जळारांतलें जीवनचक्र अशेंच आशिल्ल्याचें दाखयलें.

रॉस हाणें १८९९ वर्सा आपले नोकरेचो राजिनामो दिलो आनी तो इंग्लंडाक रावपाक गेलो. १९१२ वर्सा मेरेन लिव्हरपूल स्कूल ऑफ ट्रॉपिकल मॅडिसीन हे संस्थेंत काम करतकच ताणें लंडनाक वैजकी सल्लागार म्हणून वेवसायाक सुरवात केली. ह्या काळांत ताणें जळारांच्या नियंत्रणाचे अडचणीचेर खूब वेळ सारलो आनी बऱ्याचशा उश्ण कटिबंधीय देशांक हेविशीं सल्लो दिलो.

सुरवेच्या काळांत ताका साहित्याची चड करून कविता आनी नाट्यलिखाणाची खूब आवड आशिल्ली. १८८३ - १९२० ह्या काळांत ताचे साहित्याविशींचे पंदरा ग्रंथ उजवाडाक आयले. हाचेभायर ताका गणिताचीय आवड आशिल्ली. १९०१ - २१ ह्या काळांत ताचीं गणित विशयाचेरूय सात पुस्तकां उजवाडा आयलीं. मलेरिया जोराच्या प्रतिबंधाखातीर भौशिक भलायकी कार्यक्रम आंखपाचे नदरेन ताणें खूबशे ग्रंथ, पुस्तिका बरयल्यो. मॉस्किटो ब्रिगेड्स अँड हाऊ टू ऑर्गनायझ दॅम (१९०२) आनी द प्रिव्हेन्शन ऑफ मलेरिया (१९१०) ह्या ताच्या ग्रंथांक खूब नामना मेळ्ळी. सायन्स प्रोग्रेस आनी ॲनल्स ऑफ ट्रॉपिकल मेडिसीन ह्या नेमाळयांचो तो संपादक आशिल्लो. १९०१ वर्सा ताची रॉयल सोसायटीचो वांगडी म्हणून निवड जाली. पयल्या म्हाझुजांत ताणें शाही लश्करी वैजकी दलांत काम केलें. के. सी. बी. (१९११) आनी के. सी. एन्. जी. (१९१८) हे भोवमान ताका मेळ्ळे.

- कों. वि. सं. मं.

**रिंठो :** (मराठी : रिठा, रिंगिन, पिठा; हिंदी : रिठा; गुजरातीः अरिठा; कन्नडः अंतवला, कुगटेमर; संस्कृतः अरिष्ट, फेनिल; इंग्लीशः सोपनट ट्री ऑफ साउथ इंडिया; लॅटीन : सॅपिंडस ट्रायफोलियुटस; कूळः सॅपिंडेसी). एक मध्यम आकाराचें पानझडी झाड. ताची उंचाय सुमार १८ मी. आनी घेर १.५ मी. आसता. सॅपिंडस हे ताचे प्रजातींत वट्ट १५ जाती आसून तातुंतल्यो भारतांत सात जाती मेळटात.

हें झाड मूळचें दक्षिण भारतांतलें आसून ताचो प्रसार दर्यादिगेवयल्या आनी दोंगराचे देंवतेवयल्या सकयल्या भागांत विरळ रानांत दिश्टी पडटा. अस्तंत बंगाल, बिहार, मध्य प्रदेश आनी उत्तर प्रदेशांतल्या खेड्यांनी ताची लागवड करतात. ताची साल करडी, चकचकीत आसून ताचेर खरबरीत आनी गळून पडपी खवळां आसतात. पानां संयुक्त, एका फाटोफाट, समदली आनी १२-३० सेंमी. लांब आसतात. दर एक दल भाल्यावरी, आयाताकृतीचें लांबशा तोंकाचें आसता. ह्या झाडाक नेमान ल्हान, धवीं द्विलिंगी वा एकलिंगी फुलां ऑक्टोबर ते डिसेंबर म्हयन्यांत येतात. हाका बियो आशिल्लीं फळां येतात. तीं तरणीं आसतना केंसाळ, १.३ - २.०० सेंमी. व्यासाचीं आनी २-३ एकठांय जुळिल्लीं आसतात. पिकतकच तीं मोव जातात आनी भितरलो गर सालीकडेन एकरूप जावन ती साल घट आनी सुरकुतिल्ली दिसता. बियो २-३, काळयो, घट आनी चण्यायेदयो आसतात.

रिंठ्याची लागवड बियो वा रोंपे लावन करतात. हो पोरसांत सोबायेखातिरूय लायतात. रिंठ्यांत सॅपोनीन हें द्रव्य आशिल्ल्यान ताचो उपेग शाब्बा सारको करतात. रेशमी, लोकरी आनी हेर तरेचे तलम कपडे धुवपाखातीर तेचपरी भांगर, मोतयां, हिरे आनी केंस नितळ करपाखातीर रिंठ्याचो उपेग करतात. ताचें लांकूड जड आनी घट आसून तें गाडयो आनी हेर वस्तू करपाखातीर वापरतात. ताच्या बियांचें तेल वखदी आनी फूल पुश्टीक आसून वीरखबादा उणी करपी, स्तंभक, ओंकारो हाडपी आसून ताची पूड तपकिरीवरी ओडल्यार दमो, उन्माद, अर्दशिशी हांचेर गुणकारी थारता.

- कों. वि. सं. मं.

## रिक्टर, बर्टन : (जल्म : २२ मार्च १९३१, ब्रुकलिन, न्यूयॉर्क).

अमेरिकन भौतिकीविज्ञ. 'साय' ह्या नव्या मूलकणाचो सोद एकाच वेळार पूण स्वतंत्रपणान लायिल्लेखातीर रिक्टर बर्टन आनी मॅसॅच्युसॅट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजीचो प्राध्यापक सॅम्युएल सी. सी. टिंग हांकां नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो.

रिक्टर हाणें मॅसॅच्युसेट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजींतल्यान बी. एस्. (१९५२) आनी पीएच्. डी. (१९५६) ह्यो पदव्यो घेतल्यो. १९५६ - ५९ वर्सा तो स्टॅनफर्ड विद्यापिठांतल्या हाय एनर्जी फिझिक्स लॅबोरेटरींत भौतिकीचो संशोधन सहाय्यक आशिल्लो. उपरांत स्टॅनफर्ड विद्यापिठांत तो साहाय्यक प्राध्यापक (१९५९ - ६३) आनी सहयोगी प्राध्यापक (१९६३ - ६७) आशिल्लो आनी १९६७ वर्सासावन प्राध्यापक आशिल्लो. स्टॅनफर्ड लिनिअर ॲक्सिलरेटर सॅंटराचो तो १९८२ - ८४ ह्या काळांत तांत्रिक संचालक आशिल्लो आनी १९८४ वर्सासावन संचालक आसा. जिनीव्हाच्या युरोपियन ऑर्गनायझेशन फॉर न्युक्लिअर रिसर्च (सर्न) हे संस्थेंतूय ताणें १९७५ - ७६ ह्या काळांत काम केलें.

नोबॅल पुरस्काराभायर रिक्टर हाका १९७५ वर्सा ई. ओ. लॉरॅन्स पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो. तो अमेरिकेच्या नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचो वांगडी आसा. १९६३ - ८२ ह्या काळांत ताचे १५० परस चड संशोधनात्मक निबंद विंगड विंगड वैज्ञानिक नेमाळ्यांनी उजवाडा आयले.

- कों. वि. सं. मं.

## रिचर्ड्स, डिकिन्सन वुड्रफ : (जल्मः ३० ऑक्टोबर १८९५, ऑरेंज (न्यू जर्सी); मरण : २३ फेब्रुवारी १९७३, लेकव्हिल, कनॅक्टिकट).

अमेरिकन वैज. हृद् - शलाका तंत्र म्हळयार तपासपाखातीर काळजांत पोकळ नळये आकाराचें उपकरण नीलेंतल्यान सारपाचें तंत्र आनी रक्ताभिसरण तंत्राचें विकृतिविज्ञान हांचेविशींच्या संशोधनाखातीर रिचर्ड्स हाका आंद्रे फ्रीदरिक कूरनांद आनी व्हेर्नर फॉर्समन हांचे वांगडा १९५६ चे शरीरक्रियाविज्ञान वा वैद्यक ह्या विशयाचो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो.

१९१७ वर्सा ताणें येल विद्यापिठांतल्यान ए. बी. ची पदवी मेळयली. दोन वर्सां सैन्यांत काम करतकच ताणें कोलंबिया विद्यापिठाच्या कॉलेज ऑफ फिजिशिअन्स अँड सर्जन्स हे संस्थेंत शिक्षण घेवन शरीरक्रियाविज्ञानाची एम्. ए. (१९२२) आनी फुडें त्याच विद्यापिठाची एम्. डी. (१९२३) ह्यो पदव्यो घेतल्यो. १९२३ - २७ ह्या काळांत न्युयॉर्कांतल्या प्रेसबिटिरीयन हॉस्पिटलांत नोकरी करतकच तो लंडनाक गेलो आनी थंयच्या नॅशनल इन्स्टिटट्यूट फॉर मॅडिकल रिसर्च हे संस्थेंत सर हॅन्री डेल हाच्या मार्गदर्शनाखाल यकृतांतल्या रक्ताभिसरणाच्या नियंत्रणाचेर एक वर्सभर संशोधन केलें. प्रेसबिटिरीयन हॉस्पिटलांतल्यान परतून येतकच रिचर्ड्सान फुफ्फुस आनी रक्ताभिसरण शरीरक्रियाविज्ञानाविशीं हार्व्हर्ड विद्यापिठांतलो प्राध्यापक एल्. जे. हेंडरसन हाच्या मार्गदर्शनाखाला संशोधन केलें. १९३१ वर्सासावन न्युयॉर्कांतल्या बेल्व्ह्यू हॉस्पिटलांत ताणें आंद्रे कूरनांद हाचे वांगडा काम सुरू केलें आनी १९४० वर्सा तांणी हृद् - शलाका तंत्र विकसीत केलें. ह्या तंत्राचो सोद फॉर्समन हाणें १९२९ वर्सा लायिल्लो. पूण ताचो निदान करपाचो आनी उपचारांतलो उपेग रिचर्ड्स आनी कूरनांद हांणी प्रयोग करून सिद्द केलो. १९४१ - ५६ ह्या काळांत ह्या तंत्राचो प्रत्यक्ष उपेग करून आघातजन्य अवसाद म्हळयार रगताच्या प्रवाहांत अचकीत इबाड जाल्ल्यान जावपी शक्तिपात, जल्मतनाच काळजा विकृतीचें निदान, हृदपातासंबंदीचें शरीरक्रियाविज्ञान, वखदांचो काळजावयलो परिणाम, चड तेंपाच्या (Chronic) हृदय आनी फुफ्फुस विकारांनी तांच्या कार्यांत जावपी इबाडांचे वेगवेगळे प्रकार आनी तांचेवयले उपचार हे संबंदीं रिचर्ड्स हाणें अभ्यास केलो. इ. स. १९४५ वर्सा रिचर्ड्साची कोलंबिया विद्यापिठांत वैजकीचो प्राध्यापक

आनी बेल्व्ह्यू हॉस्पिटलांत अभ्यागत वैज आनी पयल्या विभागाचो संचालक म्हणून नेमणूक जाली. १९४७ वर्सा तो वैजकीचो लँबर्ट प्राध्यापक जालो. १९६१ वर्सा ह्या अध्यासनावयल्यान निवृत्त जातकच तो गुणश्री लँबर्ट प्राध्यापक जालो. अमेरिकन रिव्ह्यू ऑफ ट्यूबरक्युलोसिस ह्या नेमाळयाचो कांय काळ तो संपादक आशिल्लो. हाचेभायर मॅडिसीन आनी सर्क्युलेशन ह्या नेमाळयांच्या संपादकीय मंडळाचेरूय ताणें काम केलें. १९५८ वर्सा अमेरिकेच्या नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसच्या वांगडीपदाचेर ताची निवड जाली.

- कों. वि. सं. मं.

## रिचर्ड्स, थिओडोर विल्यम

**रिचर्ड्स, थिओडोर विल्यम :** (जल्म : ३१ जानेवारी १८६८, जर्मनटाऊन, पेनसिल्व्हेनिया; मरण : २ एप्रिल १९२८, केंब्रिज).

अमेरिकन भौतिकीय रसायनशास्त्रज्ञ. ताका १९१४ च्या रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. अणुभार, ऊष्मा रसायनशास्त्र, विद्युत् रसायनशास्त्र ह्या विशयांवयलें ताचें संशोधन म्हत्वाचें आसा.

ताचें सुरवेचें शिक्षण घराच जालें. उपरांत हॅव्हरफर्ड महाविद्यालयांतल्यान ताणें १८८५ वर्सा बी. एस्सी. पदवी घेतली आनी त्याच वर्सा पार्सन्स कूक हाच्या हाताखाल काम करपाखातीर तो हार्व्हर्ड विद्यापिठांत गेलो. थंय ताणें १८८६ वर्सा पदवी घेतली. कूक हाणें हायड्रोजन आनी ऑक्सिजन हांचे अणुभार नक्की करपाचें काम ताचेकडेन सोंपयलें. ऑक्सिजनाचो अणुभार ह्या विशयाचेर रिचर्ड्सान निबंद बरोवन १८८८ वर्सा पीएच्.डी. पदवी घेतली. उपरांत रोखडेंच ताणें बाष्पीय घनतेच्या अभ्यासाक सुरवात केली. ताका एका वर्साची हार्व्हर्ड प्रवासी शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. त्या काळांत जर्मनींत संशोधनाचो अणभव घेवन तो हार्व्हर्डाक परतलो आनी १९०१ वर्सा तो अध्यापक जालो. १९१३ वर्सा तो वुलकट गिब्ज मेमोरियल ह्या जागतिक नामनेचे प्रयोगशाळेचो मुखेल जालो.

मुलद्रव्यांचे अणुभार निश्चीत करप हें ताचें मुखेल संशोधन कार्य आशिल्लें. तेखातीर लागपी उपकरणां ताणें तयार केलीं. नेफेलोमीटर हें उपकरण ताणें तयार केल्ल्यान अचूक वजनां घेवंक मेळपाक लागलीं. ताणें ऑक्सिजन, तांबें, लोखण, कोबाल्ट, जस्त, बेरियम, स्ट्राँशियम अशा सुमार पन्नास मूलद्रव्यांचे अणुभार निश्चीत केले. ह्या अचूक अणुभारांक 'हार्व्हर्ड व्हॅल्यू' हें नांव मेळ्ळें. ह्याच संदर्भांत ताचें दुसरें म्हत्वाचें काम म्हळयार किरणोत्सर्गी मूलद्रव्यांचे अणुभार काडप. १९१४ वर्सा ताणें सिध्द केलें, किरणोत्सर्गी खनिजांसावन मेळिल्ल्या शिंशाचो अणुभार २०६.०० इतलो आनी सर्वसादारण खनीज सांठ्यासावन मेळपी शिंशांचो अणुभार २०७.२ इतलो आसा म्हळयार एकाच मूलद्रव्याचे अणुभार वेगवेगळे आसूं येतात अशें सिद्द केलें. तातुंतल्यानूच समस्थानिकाँचे कल्पनेक मूर्त स्वरूप प्राप्त जालें. ह्या संशोधना भायर ताणें ऊष्मारसायनशास्त्र, विद्युत् रसायनशास्त्र अशा भौतिकी गुणधर्मांचेर रसायनशास्त्राचे नदरेन संशोधन केलें. रासायनिक मूलद्रव्याच्या अणुभारांचें अचूक निश्चितीकरण केल्लेखातीर ताका १९१४ वर्सा रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. ताका युरोप आनी अमेरिकेंतल्या मुखेल विद्यापिठांनी सन्माननीय पदव्यो दिल्यो. १९१० वर्सा डेव्ही, १९११ वर्सा फॅराडे, १९१२ वर्सा विलर्ड गिब्ज आनी १९१४ वर्सा फ्रँक्लिन अशीं विंगड विंगड पदकां ताका मेळ्ळीं.

- कों. वि. सं. मं.

## रिचर्ड्सन, सर ओवेन विलान्स

**रिचर्ड्सन, सर ओवेन विलान्स :** (जल्म : २६ एप्रिल १८७९, ड्यूजबरी, यॉर्कशर; मरण : १५ फेब्रुवारी १९५९, ऑल्टन, हँपशर).

ब्रिटीश भौतिकीविज्ञ. तापिल्ल्या धातूंपसून जावपी इलॅक्ट्रानांच्या उत्सर्जनाविशीं केल्ल्या संशोधनाखातीर रिचर्ड्सन हाका १९२८ च्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो.

१९०० वर्सा कँब्रिजच्या ट्रिनिटी कॉलेजांत शिक्षण घेवन पदवी मेळयतकच १९०२ वर्सा ताची ट्रिनिटी कॉलेजाचो अधिछात्र म्हणून निवड जाली. १९०४ वर्सा ताणें लंडन विद्यापिठाची डी. एस्सी. पदवी घेतली. १९०० - ०६ ह्या काळांत ताणें कॅव्हेंडिश लॅबोरेटरींत तापयनिक उत्सर्जनाविशीं संशोधन केलें. उपरांत १९०६ - १३ मेरेन तो अमेरिकेंतल्या प्रिन्स्टन विद्यापिठांत भौतिकीचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९१४ वर्सा तो इंग्लंडाक परतून आयलो आनी लंडनचे किंग्ज कॉलेजींत भौतिकीचो व्हीट्स्टन प्राध्यापक जालो. थंयच ताणें १९४४ मेरेन निवृत्त जायसर काम केलें. रॉयल सोसायटीचो यारो संशोधन प्राध्यापक (१९२४ - ४४) आनी किंग्ज कॉलेजांत भौतिकीच्या संशोधनाचो संचालक म्हणुनूय ताणें काम केलें.

रॉयल सोसायटीन १९१३ वर्सा रिचर्ड्सन हाची वांगडी म्हणून निवड केली आनी ताका ह्यूझ (१९२०) आनी रॉयल (१९३०) ह्या पदकांचो भोवमान मेळ्ळो. सेंट अँड्रूझ, लीड्स आनी लंडन ह्या विद्यापिठांनी ताका मानादीक पदव्यो दिल्यो. १९३९ वर्सा ताका नायट हो किताब मेळ्ळो. तो ब्रिटीश ॲसोसिएशनच्या ए विभागाचो अध्यक्ष (१९२१), लंडनचे फिजिकल सोसायटीचो अध्यक्ष (१९२६ - २८), अमेरिकन फिलॉसॉफिकल सोसायटीचो सदस्य (१९११) आनी इंडियन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचो मानादीक वांगडी आशिल्लो. ताचे १३० सुमार संशोधनाचेर निबंद आनी द इलॅक्ट्रॉन थिअरी ऑफ मॅटर (१९१४), दी एमिशन ऑफ इलॅक्ट्रिसिटी फ्रॉम हॉट बॉडीस (१९१६) आनी मॉलिक्यूलर हायड्रोजन अँड इट्स स्पॅक्ट्रम (१९३४) हे ग्रंथ उजवाडा आयले.

- कों. वि. सं. मं.

**रिबेलो, जॉन गिल्बर्ट :** (जल्म : १२ जुलय १९२७, टांझानिया - आफ्रिका).

सुटकेझुजारी. ताणें तिसरें वर्स लिसेंव, मॅट्रीक छायाचित्रकारितेचें तशेंच, चित्रकारितेचें आनी रंगकलेचें शिक्षण घेतिल्लें. नॅशनल काँग्रेस गोवा संघाच्या पुणें फांट्याचो तो संस्थापक वांगडी आशिल्लो. १९४८ - १९५३ ह्या काळांत तो हे संघटनेच्या मध्य वावुरपी समितीचो वांगडी आनी जोडसचीव आशिल्लो. १९५२ - १९५४ ह्या काळांत तो ताचो अध्यक्ष जालो. ताणें जनार्दन शिंक्रे आनी पांडुरंग कुंकळयेकाराच्या आदारान छोडो गोवा (Quit Goa) ही भूंयगत चळवळ सुरू केल्ली. कोंकणी, मराठी, इंग्लीश आनी पुर्तुगेजींतल्यान पत्रकां, पुस्तिका काडप आनी पुराय गोंयांत वाटप असलीं कामां तो करतालो. ऑगस्ट १९५४ त पुलिसांनी ताच्या घराचेर धाड घालून थंयचीं तुबकां, पुस्तिका आनी पत्रकां जप्त केलीं. १९५४ ते १९६१ ह्या काळांत ताणें पेडणें आनी बारदेस म्हालांनी जायते घातकी हल्ले केले. १५ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा हेर वांगड्यांसयत ताणें म्हापशें पुलीस ठाण्यार हल्लो केलो. तातूंत जायत्या पुलीस अधिकाऱ्यांक मार लागलो. तेच राती तांणी म्हापशां आशिल्लो पुर्तुगेज अधिकाऱ्याच्या पुतळयाचेर स्फोट घडोवन हाडलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. गोंयचे सुटके उपरांत तो सुटके झुजारी संघटनेचे कार्यकारी समितीचो अध्यक्ष आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**रिबेलो, फ्रान्सिस्को द पियेदाद :** (जल्मः मडगांव; मरणः १९७५).

गोंय, दमण आनी दीवचो धर्मोपदेशक प्रशासक. ताणें धर्मीक शिक्षण राशोल सेमिनारींत पुराय केलें आनी १९१५ वर्सा तो पाद्री जालो. १९६३ वर्सा गोंय, दमण आनी दीवचो पालवी धर्मगुरू म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९६६ वर्सा तो आर्कियोसीसचो धर्मोपदेशक प्रशासक जालो. १९७२ वर्सा तो निवृत्त जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**रिबैरु जे. एफ्. :** (जल्म : ५ मे १९२१, मुंबय).

भारतीय पुलीस अधिकारी. मारिया आनी फ्रॅडरिक ह्या कॅथॉलिक क्रिस्तांव दांपत्यागेर जल्माक आयलो. तो मूळचो गोंयचो. म्हापशेंच्या सेंट झेवियर शाळेंतल्यान शिक्षण घेतले उपरांत ताणें मुंबयच्या सिडनहॅम कॉलेजांतल्यान बी. कॉम.ची पदवी संपादन केली. उपरांत ताणें एल्.एल्. बी. ची परिक्षा दिली आनी ५ ऑक्टोबर १९५३ वर्सा ताची इंडियन पुलीस सर्व्हिसेंत नेमणूक जाली. ताचे बायलेचें नांव मॅल्बा. ताका एक चलो आनी दोन लग्न केल्ल्यो धुवो आसात.

इंडियन पुलीस सर्व्हिसेंत भरती जाले उपरांत ताणें भडोच, नाशिक, जळगांव, परभणी, नांदेड, सोलापूर, गुजरात, मुंबय, ठाणें, पंजाब ह्या सुवातांचेर, वेगवेगळया हुद्यांचेर नोकरी केल्या. सेवाकार्यांत वावुरतना ताका गुळयोय लागल्यात. ताणें आपल्या पुलीस कर्मचाऱ्यांखातीर वेगवेगळयो येवजणो कार्यरत केल्यात. झुजारी मरण आयिल्ल्या अधिकाऱ्यांच्या कुटुंबांक अर्थीक आदार, पुलिसांच्या विधवा बायलांक अर्थीक निधी, पुलीस कुटुंबांखातीर संस्कृतीक मेळावे असो समाजसेवी वावर केला.

रेल्वेचे उपमहासंचालक म्हणून ताणें कांय काळ काम केलां. १९७३- ९७ तो हैदराबादेक सॅंट्रल रिझर्व पुलीस फोर्साचो मुखेली आशिल्लो. गुजरातांत आसतना ताणें पुलीस महासंचालक, उपपुलीस आयुक्त, गुन्यांव अन्वेशण विभागाचो वरिश्ठ अधिकारी अशीं पदां भुशयल्यांत.

ताणें केल्ल्या मोलादीक वावराखातीर ताका पुरस्कार आनी भौमान फावो जाल्यात. १९७२ वर्सा ताका पुलीस पदक, १९७८ वर्सा राश्ट्रपतीचें पदक आनी १९८७ वर्सा ताका पद्मश्री किताब दिवन भारत सरकारान ताचो भौमान केला.

रिबैरू हो उंचेल्या लोकांसावन तळागाळांतल्या लोकांमेरेन भरसून वागतालो. आयज ताच्या कार्याची भारतांत आनी भारताभायर तोखणाय करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रिबैरु, दियोगु पाद्री :** (जल्मः इ. स. १५६०, लिस्बन, पुर्तुगाल; मरण : १८ जून १६३३, साश्ट गोंय).

कोंकणी भाशेचो शब्दकोशकार आनी जेझुईत धर्मप्रचारक. गोंयांतल्या साश्ट तालुक्यांतल्या रायतूरच्या पुर्तुगेज राशोल कॉलेजींत ताची नेमणूक जाली. थंय ताणें संस्कृत, हिंदी, मराठी आनी कोंकणी ह्या भाशांचो अभ्यास केलो. ख्रिस्तपुराणाचो (१६१६) रचनाकार फादर स्टीफन्स हाच्या 'दौत्रीन क्रिश्तां' (१६२२) आनी 'आर्ति द लिंग्व कानारीं' (१६४०) ह्या ग्रंथांनी जायत्यो सुदारणा करून तांच्यो नव्यो आवृत्त्यो रिबैरुन काडल्यो. १६३४ वर्सा ताणें 'देक्लारासांव द दौत्रीन क्रिश्तां' (१६३२) हो ग्रंथ कोंकणींत बरयलो. हो ग्रंथ ताणें जेझुईत पंथाचो कार्डिनल बेलार्मिनो हाच्या 'सिम्बोलुम फिदै' ह्या नामनेच्या ग्रंथावयल्यान रचला. ह्या ग्रंथांत रिबैरुन, क्रिस्तांव धर्माविशींचो विचार उक्तावपाखातीर संस्कृत पारिभाशीक शब्दांचो व्हड प्रमाणांत वापर केला. देखीक - अमृत, वैकुंठ, अग्निप्रवेश, अवतार, देवस्थान, धर्म आदी.

कोंकणीचो शब्दसंग्रह हो रिबैरुचो सगळयांत म्हत्वाचो ग्रंथ. ह्या ग्रंथाचे दोन वांटे आसात - (१) व्हॉकाबुलारियु द लिंग्व कानारीं व्हेर्तिदु दु पुर्तुगेझ पेलु पाद्रि दियोगु रिबैरु (१६२६) (कोंकणी भाशेचो पुर्तुगीज - कोंकणी शब्दाकोश - कर्तो पाद्रि दियोगु रिबैरु)

आनी (२) फैतु पेलु पाद्रिश दा कॉम्पानीय द् जेझू (१६२६), (जेझुईत पाद्रींनी तयार केल्लो कोंकणी - पुर्तुगेज शब्दसंग्रह). हातूंत १५,५०० उतरांच्यो नोंदी आसून, शब्दसंग्रहा वांगडाच रिबैरू कोंकणी भाशेंतले म्हत्वाचे वाक्प्रचार आनी म्हणीय नोंद करता. देखीक - अडेचें आयलें, अडेचें गेलें; चाकरी करुंची, भाकरी खावंची; आपलें नाशें, पेल्याचें हांशें; मडें थंय रडें आनी हेर. ह्या शब्दसंग्रहावयल्यान सतराव्या शेंकड्यांतल्या कोंकणी भाशेच्या स्वरुपाचेर उजवाड पडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**रिव्हार, ज्योर्कीं एलियरो :** (पळेयात : कुन्य रिव्हार ज्योर्कीं).

**रिव्हिएरा :** भूमध्य दर्यादिगेवयलें संवसारीक नामनेचें पर्यटन स्थळ. हातूंत फ्रांसांतल्या येरसावन इटलींतल्या ला स्पेत्स्यामेरेन हो प्रदेश आसून फ्रांसांतल्या आल्प्स - मॅरिटायम आनी व्हार विभागांचो तशेंच इटलींतल्या लिग्यूरिया विभागाचो हातूंत आस्पाव जाता.

इटालियन 'रिव्हा' उतराचो अर्थ दर्याची देग असो आसून ताचेवयल्यानूच रिव्हिएरा हें उतर आयलां. फ्रांसांत ह्या प्रदेशाक 'कोत दाझूर' म्हळयार 'निळी दर्यादिग' अशें म्हण्टात. ह्या प्रदेशाचो सुमार २४० किमी. लांबायेचो विस्तार फ्रांसांतल्या मार्सेमेरेनूय मानतात. रिव्हिएराचे उत्तरेक आल्प्स आनी ॲपेनायन दोंगरावळी आसून तेरवातीर उत्तरेकडल्या आनी उदेंतेकडल्या थंड वाऱ्यांपसून ह्या प्रदेशाची राखण जाता. तेच भाशेन दक्षिणेकडल्या दर्यावाठारा कडल्यान 'बामी' वारें म्हळयार प्रफुल्लीत वारें ह्या प्रदेशाकडेन व्हांवत आसता. हांगा वर्सांतल्यान फकत साठ दीस पावस पडटा. हांगाचो शिंयाळो चडसो सौम्य आसता आनी हांगा चकचकीत सूर्यप्रकाश आशिल्ल्यान ह्या काळांत भोंवडेकारांची खूब गर्दी आसता. सौम्य आनी उमेदभरीत हवामान, सोबीत सृश्टीसौंदर्य, उपोश्ण कटिबंधीय पाचवींचार भरपूर झाडां, दर्यादिगेवयल्यो सलग, सोबीत वेळो ह्या सैमीक खाशेलपणांक लागून संवसारभरचे पर्यटक वर्सूयभर ह्या प्रदेशांत येतात. अस्तंत युरोपांतलें 'फॅशनीचें कुळार' म्हणुनूय रिव्हिएराचो उल्लेख करतात.

१८६५ वर्सा पॅरिस ते नीसमेरेन लोहमार्ग बांदले. बागो, हॉटेलां, भौशिक संगिताच्यो कार्यावळी, जुगार खेळपाचीं घरां, पांयबोटी, तरातरांचे क्लब ह्या मनोरंजनाच्या आनी ओडलायण्या सवलतींक लागून हांगा व्हड प्रमाणाचेर लोक येवंक लागले. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवातीसावन रिव्हिएराची लोकप्रियता वाडूंक लागली. जेनोओ हें इटालियन रिव्हिएराचें केंद्रस्थान आसून ताचो उदेंतेकडलो भाग 'रिव्हिएरा दी लेव्हांते' आनी अस्तंतेकडलो भाग 'रिव्हिएरा दी पनेंते' ह्या नांवांनी वळखतात.

रिव्हिएरा प्रदेशांत आंतरराश्ट्रीय म्हत्वाचीं खूब नगरां आनी पर्यटन थळां आसात. तातुंतलीं येर, सें त्रॉपे, कॅन, आंतीब, इवां - ले- - पीं हीं फ्रांसांतलीं, मॉंटी कार्लो हें मोनाकोंतलें, ला स्पेत्स्या, लेव्हांतॉ, सेस्त्री लेव्हांते, राप्पाल्लॉ, सांता मार्गारीता, जेनोओ, साव्होना, अल्बेंगा, अलास्सिओ, सान रेमो, बॉर्दीगेरा, व्हेंतीमील्या हीं इटलींतलीं मुखेल नगरां आनी पर्यटनथळां आसात. कॅन हाची आंतरराश्ट्रीय चित्रपट महोत्सवा खातीर खूब नामना आसा. घरांची नमुनेदार बांदावळ, ओडलायणें रंगकाम, पाचवीचार वासादीक वनस्पत तशेंच फुलझाडांनी सोबयल्लीं पोरसां हांकां लागून हांगाचीं नगरांय रंगीबेरंगी आनी सोबीत दिसतात. रस्त्यांनी आनी लोकमार्गांनी तीं एकमेकांक जोडल्यांत. हांगा कांय पोरने महामार्गूय आसात. ह्या प्रदेशांत तीन स्तरांचे रस्ते (कॉर्निश) आसात. तातुंतलो दोंगराकडलो सगळयांत उंचावयलो ग्रांद कॉर्निश हो रस्तो आसून फ्रांसाचो सम्राट पयलो नेपोलियन हाणें पोरन्या रस्त्याचेर तो बांदलो. हो सैमीक सुंदर अशा ला त्यूर्बी गांवांतल्यान वता. मोनाकोच्या सम्राटान बांदिल्लो कॉर्निश हो सगळयांत उणे उंचायेवयल्यान वचपी रस्तो आसून ताका लागून दर्यादिगेवयलीं प्रेक्षणीय स्थळां एकामेकांक जोडल्यांत. पर्यटन वेवसायाखातीर बांदला तो मदलो रस्तो १९३९ वर्सा सुरू जालो. हांगाच्या लोहमार्गाचेर चुनखडकांतल्यान खूबशे बोगदे काडल्यात. रिव्हिएरा प्रदेशांत ऑलिव्ह, खाजूर, द्राक्षां, केळीं, दाळंबां, लिंबाच्या जातीचीं फळां आनी वेगवेगळया फुलांचें उत्पादन घेतात. निर्यातीखातीर आनी वासाच्या तेलांचे निर्मितीखातीर फुलांचो व्हड प्रमाणाचेर उपेग करप जाता. ह्या प्रदेशांत पर्यटन आनी ताका संबंदीत खूब वेवसाय चलतात. पर्यटन वेवसायापसून इटली, फ्रांस ह्या देशांक व्हड प्रमाणाचेर परकी चलन मेळटा. दर्यांतल्यान ताल्ल्यांचें उत्पादन घेतात. भितरल्या भागांत बॉक्सायटाचे बरेच सांठे आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**रीशे, चार्ल्स (शार्ल) रॉबेअर :** (जल्मः २६ ऑगस्ट १८५०, पॅरिस; मरणः ४ डिसेंबर १९३५, पॅरिस).

फ्रेंच शरीरक्रियावैज्ञानिक. अपायितेवयल्या (anaphylaxis) संशोधनाखातीर ताका १९१३ चो शरीरक्रियाविज्ञानाचो वा वैजकीचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो.

१८७७ वर्सा ताणें पॅरिस विद्यापिठाची पदवी घेतली आनी कॉलेज द फ्रांस हातूंत काम केलें. उपरांत तो पॅरिस विद्यापिठांत परत येवन १८८७ सावन १९२७ मेरेन निवृत्त जायसर ताणें शरीरक्रियाविज्ञानाचो प्राध्यापक म्हणून काम केलें. पदवी मेळोवचे पयलीं ताणें अवलंबी प्रतिक्षेपी क्रियेचे पचनक्रियेंतले सुवातीविशीं संशोधन केल्लें आनी हायड्रोक्लोरिक आम्ल हेंच जठररसांतलें मुखेल आम्ल आशिल्ल्याचें दाखयल्लें.

सुरवेक रीशे हाणें जठरांतली पचनक्रिया, स्नायूंच्या आकुंचनाचें

स्वरूप, अकार्बनी लवणांचो विरवयाळो परिणाम आनी प्राणिशरीरांतली उश्णतेची निर्मिती आनी तिचें नियंत्रण हे संबंदीं म्हत्वाचें संशोधन केलें. १८७८ वर्सा ताणें जठररसाच्या गुणधर्माविशीं एक व्यापक टिपणी उजवाडायली आनी तातूंत पचनक्रियेच्या सगळ्या बाबींचो नियाळ घेवन सस्तन प्राणी, नुस्तें आनी फाटीचो कणो नाशिल्ले ते अपृश्ठवंशी प्राणी हांच्या पचनक्रियांतल्या फरकाचें वर्णन केल्लें. ताणें श्वसनासंबंदींचें शरीरक्रियाविज्ञान, अपस्मार (मोडणें) आनी क्षयरोगावयल्या उपचारांत हरव्या मांसाचो आहारांतलो उपेग ह्या विशयांचेरूय संशोधन केलें. ताचें सगळयांत म्हत्वाचें कार्य रोग प्रतिकारक्षमताय आनी रक्तचिकित्सा हेसंबंदीं आशिल्लें. हाचेरवातीर ताणें आनी ताचो वांगडी पॉल पोर्टिअर हाणें समुद्रपुष्प ह्या प्राण्यांच्या विरवाची सुण्यांत किदें प्रतिक्रिया जाता हाचो पयलीं अभ्यास केलो. ज्या सुण्यांक ह्या विरवाच्या मूळ इंजेसांवा उपरांत कांयच त्रास जावंक ना अशा सुण्यांभितर रवर प्रतिक्रिया प्रवर्तीत करूं येता अशें तांकां दिसलें. जर मारक मात्रेपरस उणे मात्रेचें इंजेसांव दोन ते तीन सप्तकांनी परतून दिलें जाल्यार तो सुणो २५ मिनटांभितर मरता. हाचेवयल्यान ह्या विरवाची प्रतिकारक्षमताय गुणधर्म रक्तरस, हतप्रभ सूक्ष्मजंतूंचीं संवर्धनां आनी हेर विरवां हांचेआड आसात म्हळयार उपरांत दिल्ल्या उणे मात्रेच्या इंजेसांवाक लागून प्राण्याची प्रतिकारशक्त ताचेफुडल्या इंजेसांवाआड वाडपाबदला उणी जाता असो ताणें निश्कर्श काडलो. हाचेवयल्यान ह्या गुणधर्माक रीशे आनी पोर्टिअर हांणी ॲनाफिलॅक्सिस अशें नांव दिलें आनी तें संरक्षणाच्या आड ह्या अर्थान वापरिल्लें.

१५ फेब्रुवारी १९०२ ह्या दिसा हो प्रयोग दोन सुण्यांचेर, सोसियेते द बियॉलॉजी हे संस्थेचे बसकेंत तांणी प्रत्यक्ष करून दारवयलो. १९०३ म्हळयार तांणी होच परिणाम विरवयाळ्या आनी वीरव नाशिल्लया रवंयच्याय प्रथिनांनी उत्पन्न करूं येता पूण दोन इंजेसांवांमदीं दोन ते चार सप्तकांचो काळ आसूंक जाय अशें दारवयलें. रीशेच्या ह्या कार्याक लागून पराग जोर आनी दमो हेसारके ॲलर्जीचे विकार वरवदाची प्रतिक्रिया आनी रक्तरस दुयेंसां तशेंच गुंगी येवपाच्यो कांय गूढ अवस्था आनी तातुंतल्यान येवपी मरण हांचें स्पश्टीकरण मेळ्ळें.

१९११ वर्सा रीशे हाणें स्वताच्या आनी हेर शास्त्रज्ञांच्या अपायितेवयल्या कार्याचो नियाळ घेवपी एक म्हत्वाचो लेरव बरयलो. ताच्या अपायितेवयल्या कार्याक लागून त्या वेळार नव्यानूच जल्माक आयिल्ल्या रोगप्रतिकारक्षमताय विज्ञानाक सरवोल अर्थ प्राप्त जालो आनी हेचरवातीर ताका नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो. रीशेक रवूब गजालींनी आवड आशिल्ली. ताका शरीरक्रियावैज्ञानिक म्हणून रवूब नामना मेळ्ळी. पूण तेचवांगडा तो सूक्ष्मजंतुवैज्ञानिक, विकृतिवैज्ञानिक, मानसशास्त्रज्ञ आनी वैजकी सांरव्यकीविज्ञ (संरव्याशास्त्रज्ञ) आशिल्लो. ताणें केल्ल्या विंगड विंगड क्षेत्रांतल्या कार्याक लागून ताका विमानविद्येंतलो एक आद्यप्रवर्तक, शांतिकायेरवातीर वावुरपी एक कळकळीचो कार्यकर्तो, गूढ आविश्कारासंबंदीं वैज्ञानिक संशोधन करपी शास्त्रज्ञ तशेंच कवी, कादंबरीकार आनी नाट्यलेरवक म्हणूनूय नामना मेळ्ळी.

१९१३ वर्सा अपायिता, लॅक्टिक आम्लाचें किण्वन (fermentation), मांसरस चिकित्सा आनी हेर विशयांवयलें आपलें संशोधन रीशेन चालूच दवरलें. पयल्या म्हाझुजांत कांय काळ आघाडीचेर रावन ताणें रक्ताधानांतल्या अडचणींविशीं संशोधन केलें. १९२६ वर्सा लिज्यन ऑफ ऑनरच्या क्रॉसाचो ताका भोवमान मेळ्ळो. ताणें आपल्या संशोधनासंबंदीं ११ ग्रंथ आनी बरेचशे निबंद बरयले. झुजाक लागून द्वेशबुध्दी पातळटा हें दारवोवपी इतिहासावयलीं कितलींशींच पुस्तकां ताणें बरयल्लीं. पी लांगल्वा आनी हेरांच्या आदारान ताणें शरीरक्रियाविज्ञानाचो शब्दकोश (१० रवंड, १८९५ -१९२८) तयार केलो. १८८१ वर्सा Revue Scientifique ह्या नेमाळयाचो सहसंचालक म्हणून ताची नेमणूक जाल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**रुझारियु, जोसेफ आल्बेर्टा दु :** अमरावतीचो पयलो गोंयकार धर्मगुरू. तो मूळचो वेरें - बार्देसांतलो. १९४४त धर्मीक शिक्षण घेतलेउपरांत तो पाद्री जालो. १९५९ वर्सा धर्मगुरू म्हणून ताची नेमणूक जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**रुढी :** विशिश्ट अशा समाजीक, कुटुंबीक आनी वैयक्तिक सुलभ जिवीत वेव्हारारवातीर, समाजमान्य अशा नेमांच्या रुपांत आशिल्ल्यो सांस्कृतिक, सामाजिक चालीरिती. समाजवेव्हार ही एक नित्याची प्रक्रिया आशिल्ल्यान तिचें नियमन करपाक उपेगी पडपी, तयार अशी आनी अणभवान जाल्ली सोंपी अशी आचार - विचारांची प्रणाली गरजेची लागता. कालांतरान हे प्रणालींतले सोपस्कार (चालीरिती) समाजमनांत रुढ जातात. हे रुढींतल्यान समाजाक आयती आनी सर्वसामावेशक अशी आचार विचार कार्यपद्दत प्राप्त जाता. अशे कार्यपद्धतीक कालांतरान परंपरेचें आनी दायजाचें स्वरूप प्राप्त जाता. सामाजिक वेव्हाराचे थिरायेच्या म्हत्वाक लागून चालीरितींचें पालन करप गरजेचें थारता. हें पालन बंधनकारक जावचें म्हणून धार्मिक अधिश्ठान दिवन नैतिक - अनैतिकतेचो संदर्भ दिवप जालां आसूं येता. ह्या संदर्भाक लागून बऱ्याचशा रुढींत अंधश्रध्देचो अंश भरसला. चडशा रुढींचे निर्मिती फाटल्यान त्या त्या काळांत फावोसारकें समाजीक कारण आसा अशें धरलें तरी कांय रुढी ह्यो निव्वळ धर्मीक सोपस्काराचो एक वांटो म्हणून अस्तित्वांत आयल्यात आसूं येता.

ज्या काळांत, ज्या भुगोलीक वाठारांत, ज्या गिन्यानाच्या पांवड्यार आनी जे परिस्थितींत रुढींचो उगम जाता, तेन्नाचो तिचो उद्देश, उपेग, मार्गदर्शन आनी तत्त्व सदांकाळ, सगळेकडेन आनी सगळ्या परिस्थितींनी जाताच असो ना. म्हणून एका काळार, एका वाठारांत, एके परिस्थितींत आदर्श आनी नैतिक थारिल्ली रूढ, दुसऱ्या काळांत, दुसऱ्या वाठारांत आनी दुसरे परिस्थितींत काळाभायरी जावन निरुपयोगी जांव येता. कांय रुढींचे बाबतींत ती बदलत्या समाजमनांत, मारक थारूं येता. अशा रुढींच्या बाबतींत बदल वा पर्याय करपाची मुभा समाज घेता. तेखातीर प्रबोधन, चळवळ, आंदोलन, बंडखोरी अशा माध्यमांतल्यान रुढीमदीं बदल जाल्ल्याच्यो देखी आसात. पोरन्या आचार - विचारांच्या जाग्यार जे नवे आचार - विचार येतात तेय कालांतरान समाजांत रुढ जावन रुढींच्या रुपांत उरतात. रुढी फाटलें तत्त्व, अधिश्ठान, संदर्भ, प्रयोजन, उपेग आदी संबंदींचें खरें - फट, विज्ञान - अज्ञान हेसंबंदीं वाद आसलो तरी परंपरेन आयत्या स्वरुपांत मेळिल्ल्यो ह्यो रुढी खूबशा प्रमाणांत समाजाच्या आचार-विचारांचें नियंत्रण करपाक तातूंत एकसारकेपण दवरपाक आनी बऱ्याच प्रमाणांत वेव्हारीक थिराय हाडपाक मदत करता हेसंबंदीं दुमत ना.

मनशाक अन्नाची गरज आसता, तशीच मनोरंजनाचीय गरज आसता. हें वळखून वर्सूयभर त्या त्या हवामाना प्रमाण, त्या त्या प्रसंगा प्रमाण, तरेतरेचे सणउत्सव, तेच भाशेन सामाजिक सणूय मनोवपाची प्रथा पडली. ते ते सण-सुवाळे मनयतना त्या त्या प्रसंगाकडे, कथा पुराणांतल्या संदर्भांची सांगड घालून, तर कांय प्रसंगांकडेन इतिहासीक गजालींचे संदर्भ घेवन समाजान हर तरांचे उत्सव मनोवपाची प्रथा; रूढ घालून दिली. तशेंच कांय उत्सवांच्या निमतान, कथा - किर्तन पुराणांवरवीं, मनशाची बौध्दिक उदरगत सादपाचीय मांडणी केली.

पयलींच्या काळांत, बायल दादल्याचेर आदारून आसताली. देखून समाजान बायलेचे जिणेंत बऱ्यो आनी वायट अशो दोनूय तरांच्यो, बऱ्योचशो रुढी रूढ केल्यो. देखीक, एके चलयेचे जिणेंत, ती पिरायेंत येवन तिचें लग्न जावन भुरगें जायसर तिची अपुरबाय, तोखणाय करपाच्यो रुढी समाजांत चलताल्यो. तशेंच भुरगेपणांत लग्न केल्ली खंयचीय चली पिरायेंत येवचेपयलींच विधवा जाली जाल्यार तिका परतून लग्न जावपाची परवानगी नाशिल्ली आनी तिका पुस्तिवंत (घोव) नाशिल्ल्यान परिस्थितीच्या धपक्यान आनी पिरायेच्या भारान तिणें अनितीच्या मार्गाक लागचें न्हय म्हणून तिणें सती वचचें अशी क्रूर प्रथा आशिल्ली. उपरांतच्या काळांत, तिचे केंस तासून बोडकी करून संन्यास दिवप आनी तेय परिस्थितींत तिचें वांकडे पावल पडलें वा तिचेर बळजबरी जावपासारकें कसलेंय अरिश्ट आयलें जाल्यार तिका वाळींत घालपासारक्यो (समाजांतल्यान भायर घालप) प्रथा ह्या काळांत समाजांत रूढ आशिल्ल्यो.

आदल्या काळांत हॉस्पिटलां नाशिल्ल्यान घरांतूच भुरग्याचो जल्म जातालो. दर एका घरांत 'बाळंटीची कूड' म्हणून एक काळखाची कूड आसताली. णव म्हयनेमेरेन आवयच्या पोटांत आशिल्लो गर्भ जेन्ना भुरग्याच्या रुपांत संवसारांत येता, तेन्ना एकाएकीं सुर्याचो झणझणीत उजवाड ताच्यान सोंसूंक जावचोना हो आसतालो. पूण हें सत्य लोकांक पटोवन दिवचें सोडून, अंधश्रध्देंतल्यान ती रूढ घालून दिली. ती म्हळयार, भुरगें काळखाचे कुडींत आसत जाल्यार तें सट्ट करून बाळंटीचे खबरेक येतल्या मनशांचे नदरेक पडचेंना आनी ताका कोणाची नदर, दिश्ट लागूंक पावची ना.

अशीच दुसरी एक रुढ म्हळयार बाळंत आनी भुरगें धा दीसमेरेन भश्टांत आसतालें. बाळ - बाळंटीक आफुडल्यार माथ्यार न्हावचें पडटालें. हे गजाली फाटलो हेत म्हळयार, बाळंटीक आरामाची खूब गरज आसता, ती भश्टांत आसा अशें म्हळयार तिका काम करचें पडनाशिल्लें. तिका खूब सुशेग घेवंक मेळटालो. तशेंच नवजात भुरग्याची प्रकृती खूब नाजूक आसता अशा वेळार बाळंटीचे खबरेक येवपी मनशांच्या रोगांचो संसर्ग त्या भुरग्याक जावन भुरगें दगावपाची भिरांत आसताली. हे हेत दवरून अशो रुढी समाजांत चलताल्यो.

अशीच आनीक एक रूढ म्हळयार भुरग्याक बाराव्या दिसा पाळण्यांत घालून ताका नांव दवरप. त्या दिसा घरांत आठवल करतात, सोयऱ्यांक, शेजाऱ्यांक आपोवन व्हडा समारंभान भुरग्याक पाळण्यांत घालून जमिल्ल्या लोकांक आनी बाळंटीक आठवल खावोवप. हाचे फाटलो हेत म्हळयार भुरग्याक नांव दवरपाच्या निमतान बाळंटीक आठवल खावोवन भुरग्याच्या दुदाची वेवस्था करप. आवयक भरपूर दूद जाल्यार, ताचेवरवीं भुरगें सूख - स्वास्थ्यान पोसतालें, पसवतालें आनी कसलीच किरकीर नासतना सुशेगाद आसतालें.

भुरगें जशें जशें व्हड जाता तशें तशें ताच्या अपुरबायेच्या, तोखणायेच्या सुवाळयांच्योय जायत्यो रुढी समाजांत चलतात. देखीक, भुरग्याक दांत येतकच ताका 'दांतोळयो' घालतात. दांतोळयांक कांय लोक 'माथ्यार वडे घालप' अशेंय म्हण्टात. तेखातीर तरातरांच्या खाणांचे ल्हान ल्हान जिन्नस म्हळयार नेवऱ्यो, कापां, शंकरपाळी, दूदपेडे आनी वडे, चिरमुल्यो, चणे, बिस्कुत्यो, पिपीरमिठां असलेय जिन्नस आसतात. हें सगळें खाण एके व्हड परातींत दाळून, पाटार बसयल्ल्या भुरग्याच्या माथ्यार ओततात. भुरग्याच्या माथ्यार खाण घालें तशी भुरग्याक मजा दिसता आनी तें भुरगें एक एक जिन्नस हातान काडून खाता. अशे तरेन भुरगें नव्या आयिल्ल्या दातांनी खावपाक सुरवात करता.

मनशाची जीण आनी सैम हांचें खूब लागींचें नातें आसा, तेखातीर पर्यावरणाविशींय जायत्यो प्रथा आसात. देखीक, झाडां पेडां, वड-पिंपळ सारकिल्या रुखांचीं आमकां हवामान शुध्द दवरपाक तशेंच हेर फायद्यांखातीर कितली गरज आसा ती वळखून त्या

रुखांकूच न्हय तर तुळशी सारकिल्या रोंपट्यांक लेगीत देवरूप प्राप्त करून दिलां. तें दितना इतिहासीक, पुराणीक संदर्भांची तांचेकडेन सांगड घाली आनी वडापुनव, तुळशीलग्न, दसरो - सिमोलंघन ह्या सारक्या सणांची प्रथा घालून दिली. तुळशीचें म्हत्व जाणून घेवन घराच्या आंगणांत तिका घरच्या बायलांनी नित्यनेमान गंध - फूल - उदक घालून तिची पुजा करपाची प्रथा रुढ केली. पूण ह्या सगळ्या गजालीं फाटलें खरें म्हत्व पटोवन दिवचे बदला अंधश्रध्देंतल्यान ह्यो चडशो प्रथा समाजांत रूढ जाल्यो.

जनावरां आनी हेर प्राण्यांविशींय कांय रुढी आसात. भुरग्याक गायेच्या दुदाचो उपेग जाता तेरवातीर तिका गोमाता म्हूण पाचारली. पाडो हो शेतकामाचें उपकरण जावन आशिल्लो, तशेंच नंदी ह्या नांवान तो महादेवाचें आसन थारलो, ताका देवरूप प्राप्त जालें. तेच भाशेन गोरवांक मारचीं न्हय, तांचें मांस खावंचें न्हय अशो रुढी समाजांत रुढ जाल्यो.

सैमाच्या संतुलनापासत आमकां हेर जनावरांची कितली गरज आसा, हें वळखून मनीस जातीन जनावरांचेर म्हळयार मोनजातीचेर मोग करचो ह्या हेतान, वाग हो शांतादुर्गेचें वाहन, बैल (नंदी) महादेवाचें वाहन, हुंदीर गणपतीचें वाहन, मोर सरस्वतीचें वाहन, गरूड विष्णुदेवाचें वाहन, अशे तरेन मनशाच्या काळजांत तांकां मानाचें, श्रध्देचें स्थान मेळोवन दिलें. वर्सांतल्यान एक फावट तरी ह्या जनावरांचो मान - भोवमान राखचो, तांकां सुशेग दिवचो ह्या उद्देशान पाडव्या दिसा गोरवांक न्हाणोवन, रंगोवन, फुलांनी सजोवन, तांकां गोडशें आनी पोळे त्या दिसा खावोवंचे अशो रुढी घाल्यो. हुंदरासारक्या उपद्रवी प्राण्याची लेगीत गणपती वांगडा चवथी दिसा पुजा करपाची, ताका अन्नाचो निवेद दाखोवपाची प्रथा घालून दिली. नागासारक्या प्राण्याची लेगीत नागपंचमी दिसा पुजा करची. अशे तरेन सैमाचें संतुलन करपाक जाण्ट्यांनी ह्या रुढींवरवीं मनीसजातीक प्रवृत्त केलें.

तरातरांच्या सणां - उत्सवां वांगडाच शिगम्या उत्सवासारक्या समाजीक सणांचीय जाण्टेल्यांनी येवजण प्रस्थापीत केली. वर्सूयभर कामाच्या निमतान जळींमळीं गांवाच्याभायर रावपी लोक, ह्या शिगम्याच्या निमतान हो उत्सव नेटान मनोवपाखातीर आपापल्या गांवघरा वतात. गांवचे जाण्टे - नेण्टे सगळे एकठांय येतात आनी शिगमोत्सव व्हडा उमेदीन नाचून गावन, धोल ताशांच्या गजरांत मनयतात. अशे तरेन गांवच्या लोकांचीं मनां एकवटीत उरतात. तांचेमदीं माया-मोग, ओड जागता. गांवचो एकचार तिगून उरता. अशे तरेच्यो आनिकूय खूबशो, तरातरांच्यो रुढी आमकां जाण्टेल्यांनी घालून दिल्यात. आमी त्यो आमची संस्कृताय ह्या नांवाखाल जपतात. आज - कालच्या विज्ञानीक युगांत जरी आमी जायत्यो रुढी आयच्या काळाक अणसरून नात अशो सोडून दिल्यात आसल्यो, तरी आमची जीण सोबीत सुंदर सुख समृध्दीची जावपाक ह्या रुढींचो आमकां खूब उपेग जाता. ह्या रुढींफाटल्यान चडसो बरो हेत आसलो, तरी समाजान तातुंतल्यो रुढी अंधश्रध्देंतल्यान आपणायल्यात. आदल्या काळांतलो रुढीं फाटलो बरो उद्देश आयच्या काळांत शास्त्रीय अशा विज्ञानीक माध्यामांवरवीं सफल जावंक लागला आसलो तरी ताची व्याप्ती वैजकी, वातावरणनिर्मिती वा तत्सम विज्ञानीक घटकां पुरतीच उरता. आयच्या काळांत लेगीत, सांस्कृतिक, सामजिक आनी पर्यायान मानसशास्त्रीय घटकांखातीर सांस्कृतिक अधिश्ठान आशिल्ल्या रुढींचें आपलेपरीन समाजाचे भलायकेक उपकारक अशें योगदान जाता.

- श्रीमती कमलादेवी राव देशपांडे

**रुद्र :** शिव वा शंकराच्या वेदांच्या काळांतली पूर्वरूप मानिल्ली एक वैदिक देवता. रुद्र हें उत्तर 'रु' वा 'रुद्' म्हळयार व्हडाव्हडान रडप ह्या धातूपसून आयलां. तांबडो रंग असोय एक रुद्राचो अर्थ आसा. ताचेवयल्यान रुद्रदेवतेची मूळ संकल्पना तांबड्या रंगाच्या वादळी रंगावयल्यान वा गडगडाटी वादळाच्या आवाजावयल्यान वा गडगडाटाचे विजेचें प्रतीक म्हणून आयली आसूं येता अशें वेबर, मॅकडॉनल्ड हे विद्वान मानतात.

रडोवपी वा रडत धांवपी असो रुद्राचो अर्थ जाता. सायणाच्या मतान निमाणो जो कोण सगळयांक रडयता तो रुद्र. ऋग्वेदांत रुद्राक फक्त तीन सूक्तां (१.११४; २.३३ आनी ७. ४६) दिल्यांत. तशेंच १.४३ सूक्तांतल्यो स ऋचा आनी ६.७४ सूक्त रुद्र आनी सोम हांकां मेळून दिलां. पूण उपरांतच्या यजुर्वेद, अथर्ववेद, ब्राह्मणां आनी हेर वैदिक साहित्यांत ही चड म्हत्वाची आनी मुखेल देवता जाली. सुरवेच्या ऋग्वेद काळांत रुद्र ही निसर्गप्रकोपाची एक सामान्य देवता जाल्यार उपरांतच्या साहित्यांत ती जनावरां, रानां, दोंगर, न्हंयो, शेतां, सुफलता, मसंडीची सगळी सृश्ट व्यापपी एक श्रेश्ठ आनी बळिश्ट देवता जाल्ली दिसता. ऋग्वेदांतूच तिका 'शिव' अशेंय म्हळां. यजुर्वेदांत रुद्रगणाचो उल्लेख आयला. ताचे वयल्यान वनवासी, निषाद ह्या रानवटी जमातींचो रुद्र हो 'गणपती' आसुंये अशें दिसता. अथर्ववेदांत रुद्राचीं भव, शर्व अशीं सात नांवां आसात. ब्राह्मणग्रंथांत रुद्र हो उषसाचो पूत आसून प्रजापतीन ताका आठ नांवां दिल्यांत अशें म्हळां.

ताच्या रौद्र, संहारक रुपाक लागून ताका रुद्र, शर्व, उग्र आनी अशनी हीं चार नांवां मेळळीं. तशेंच ताच्या शांत, मांगलिक आनी जगत्प्रतिपालक रुपाक लागून ताका भव, पशुपती, महादेव आनी ईशान हीं चार नांवां मेळळीं. श्वताश्वतर उपनिषदांत रुद्राक सृश्टीची सगळयांत श्रेश्ठ देवता मानल्या. रुद्र - शिवाची बायल उमा हिचो उल्लेख केनोपनिषदांत आयला. महाभारतांत रुद्राक शिव वा महादेव म्हळां. प्राण्यांचो अधिपती वा पशुपती म्हणून रुद्र हो प्राण्यांचो

रक्षणकर्तो आनी संहारकर्तो अशा दोनूय रुपांनी दिसता. पृथ्वी ही रुद्राची बायल आसून मरूत हे तिचे पूत आशिल्ल्याचें ऋग्वेदांत म्हळां. रुद्राची वेदांतली दुसरी बायल रुद्राणी वा मीढुषी आसून पृथ्वीभाशेनूच तिचेवतीन रुद्राचें सिंचन करपी, वृष्टिकर्तो अशें स्वरूप दिसता. ऋग्वेदांत शिश्नदेवतोपासक अनार्यांचो निर्देश आयला. ताचेवयल्यान रुद्र ही अनार्य देवता आसुंये अशें दिसता. वैदिक साहित्यांत रुद्राचो अग्नी आनी सोमाकडेन लागींचो संबंद आशिल्ल्याचें दिसता.

यजुर्वेद आनी उपरांतच्या काळांत संस्कृतिसमन्वयाचें पर्व सुरू जातकच ऋग्वेदांतल्या रुद्राचो हेर आर्येतर स्थानिक देवतांकडेन समन्वय सादपाची प्रक्रिया सुरू जाली आसुंये. कारण ह्या काळांतल्या साहित्यांत रुद्राक चोर, लुटपी आनी दरोडेखोरांची देवता अशें म्हळां. पूण ताचें मूळ कल्याणकारी, शुभंकर स्वरुपूय कायम उरलें.

उपरांत ताचीं भव, शर्व, उग्र, पशुपती, महादेव, शिव अशीं नवीं नांवां येतात. हातुंतल्या कांय नांवांचो उगम प्रादेशिक देवता नांवांनी आसा. यजुर्वेद तशेंच ब्राह्मणां आनी उपरांतच्या साहित्यांत रुद्राचें हेर देवतांभितर आनी निमाणें शिवदेवतेंत पुराय विलिनीकरण जाल्ल्याचो आलेख दिसता. 'रुद्र - शिव' हें नांव ह्या विलिनीकरणाचें द्योतक आसा.

ब्राह्मणग्रंथांच्या काळामेरेन रुद्र हो हेर देवतांपरस वेगळो आशिल्लो. ताचें हें वेगळेपण रुद्राच्या विकासांत आनी रुद्रोपासनेच्या इतिहासांत चड म्हत्वाचें आसा. ब्राह्मणकाळांत वैदिक कर्मकांडांत रुद्र सोडून हेर सगळयो देवता वांटो घेताल्यो. रुद्र केन्नाच विशुध्द रुपान कर्मकांडाची देवता जालोना. म्हणून त्या काळांत धर्मसुदारक आनी कर्मकांडाक गौण मानपी लोकांनी रुद्राक आपणायलो. ताका लागून आपोआप रुद्राची सुवात चड उन्नत जाली. निती आनी सदाचार हांच्यो कल्पनाय रुद्राक जोडप जाल्यो. ल्हव ल्हव रुद्र हो ऋताचो म्हळयार विश्वनियामक तत्त्वाचो देव जालो. यज्ञसंस्थेच्या देंवत्या काळांत जेन्ना हेर देवतांचें म्हत्व उणें जालें, त्याच काळांत रुद्राचें स्थान उंचावलें. रुद्र नांवानूच न्हय तर सामर्थ्यानूय महादेव जालो. ब्राह्मणग्रंथाच्या काळामेरेन रुद्र हो आर्य धर्माचें एक प्रधान दैवत जालो.

शिव हें रुद्राचें प्रसिद्द नांव यजुर्वेदांतल्यान आयलां. नीलशिखंड वा नीलग्रीव हे उपाधींत शिवाचे वीखप्राशनाचे कथेचें बीज मेळटा. कपर्दी ह्या विशेशणावयल्यान पौराणिक शिवाच्या जटाधारी स्वरुपाची कल्पना करप जाली. केशी ह्या विशेशणावयल्यान केशी आनी मुनी हांचेकडेन आशिल्लें वैदिक रुद्राचें प्राचीन साहचर्य पळोवप जालें. ताचेवयल्यान पौराणिक शिवाचो योगाभ्यासाकडेन संबंद लावन ताका महायोगी ही उपाधी मेळळी.

रुद्राचें निवासस्थान उत्तरेकडल्या पर्वतीय प्रदेशांत आशिल्ल्याचें यजुर्वेदांत सांगलां. ताचेवयल्यान पौराणिक काळांत हिमालयाचें कैलास हें उंचेलें शिखर ताचें निवासस्थान मानप जालें. कृत्तिवास ही रुद्राची वैदिक उपाधी मतींत घेवन पौराणिक शिव गजचर्म पांगुरता अशी कल्पना रुढ जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**रुद्राध्याय :** कृष्ण यजुर्वेदाचे तैत्तिरीय संहितेच्या चवथ्या कांडांत हो मंत्राचोंबो आयिल्लो आसा. हाका रुद्र वा शतरुद्रीय अशेंय म्हण्टात. रुद्राचे नमक विभाग आनी चमक विभाग अशे दोन वांटे आसात. तातूंत ११ अनुवाक आसात. पयल्या वांट्यांत 'नमः' उतर परत परत येता देखून ताका नमक म्हण्टात आनी दुसऱ्या वांट्यांत 'च मे' हीं उतरां परत परत येतात देखून ताका चमक अशें म्हण्टात.

रुद्राध्यायाक शांतिमंत्रान सुरवात जाता. ही शांती रुद्राध्यायाक म्हणची अशें वेदांत सांगिल्लें ना. पूण रुद्रानुष्ठान सांगपी उपरांतच्या ग्रंथांनी ह्या शांतिमंत्राचो उल्लेख केल्लो आसा. हो रुद्राध्याय कृष्णयजुर्वेदाच्या हेर संहितांनीय वाचनीय आसा. तेचप्रमाण शुक्ल यजुर्वेदांतय हो अध्याय सांपडटा.

रुद्राचो पयलो अनुवाक 'नमस्ते रुद्र' ह्या मंत्रान सुरू जाता. ह्या अनुवाकांत १५ मंत्र आसात. हातूंत रुद्राच्या रागाक नमस्कार आसून, रुद्रान आपल्या कल्याणप्रद शरिरान अज्ञान पयस करचें, अशें मागणें आसा. तुजेखातीर आमी बऱ्या उतरांनी तुजी प्रार्थना करतात', अशें थंय म्हळां. हातूंत रुद्राक नीलग्रीव, सहस्त्राक्ष सारकिल्या नांवांनी आळयल्लो आसा. तशेंच ताच्या शस्त्रांचेंय वर्णन केल्लें आसा.

दुसरो अनुवाक नमकान सुरू जाता. हाचे फुडल्या अनुवाकांत रुद्राक वेगवेगळया नांवांनी नमन केल्लें आसा. हातुंतलें 'नमः' उतर दोन तरेचें आसा. कांय अनुवाकांत 'नमः' उतर मंत्राचे सुरवेक आनी शेवटाक अशें दोन खेपे येता. कांय जाग्यांचेर तें मंत्राचे सुरवेक येता. दुसऱ्या अनुवाकांत सूत, स्थपती, मंत्री वणिज सारकिल्या स्वरुपांत रुद्राचें नमन आसा.

तिसऱ्या अनुवाकांत तस्करांचो (चोर) पती (मुखेली), आरण्यांचो पती, रातिचरांचो पती सारकिल्या स्वरुपांत रुद्राक प्रणाम आसा.

चवथ्या अनुवाकांत वैज, व्रात, गण, विरुप, महान, शुल्लक, रथकार, कुलाल, निषाद, पारधी सारकिल्या गणांचो पती आनी करुनारुंचो पती ह्या स्वरुपांत रुद्राचें नमन आसा.

पांचव्या अनुवाकांत रुद्राची भव, शर्व, रुद्र, पशुपती सारकिल्लीं नांवां सांगिल्लीं आसात.

सव्या अनुवाकांत जेश्ठ, कनिश्ठ, श्रेश्ठ, जघन्य अशा रुपांत रुद्राचें वर्णन करून फुडें ताचो रथ, कवच, शिरोवेश्टण सारकिल्या गजालींचे उल्लेख केल्ले आसात.

सातव्या अनुवाकांत सैमांत रुद्राचीं स्थानां खंय खंय आसात तें सांगलां.

आठव्या आनी णवव्या अनुवाकांत सोम,उग्र, ताम्र, भीम, शिव सारकिलीं नांवां उल्लेखिल्लीं आसात.

धाव्या अनुवाकांत रुद्राचें सर्वव्यापित्व सांगून आपल्या घरांतल्यांक, भुरग्यांक आनी गोरवां - वासरांक ताणें मारचें न्हय अशें ताचें मागणें केल्लें आसा.

इकराव्या अनुवाकांत जायत्या जाग्यांनी रावपी वेगवेगळया रुद्रांचें वर्णन केल्लें आसा.

चमकाच्या पयल्या स अनुवाकांत म्हाका अन्न मेळूं, धान्य मेळूं, सत्ता मेळूं, गिरेस्तकाय मेळूं, भूंय मेळूं, पर्वत मेळूं, इंद्रादी देव अनूकूल जावं अशी याचना आसा. सात, आठ आनी णव ह्या अनुवाकांत सगळीं यज्ञप्रक्रियेंतलीं उतरां आयिल्लीं आसात आनी शेवटाक म्हजीं इंद्रियां, जीव, मन धरून सगळेंच जीवन यज्ञमय जावंचें अशें मागणें केल्लें आसा.

इकराव्या अनुवाकांत एकापसून अठ्ठेचाळिसांमेरेन कांय सम आनी कांय विशम अशो संख्या सांगिल्ल्यो आसून अखेरेक रुद्राचे कृपेन आपणाक अन्न, प्रजा, यज्ञ ह्यो गजाली मेळच्यो अशी परत इत्सा परगटायल्ली आसा.

रुद्राध्यायाचो पयलो विनियोग यज्ञांतल्या चयन प्रकरणांत जालो. तेखातीर तो एक यज्ञीय आंग थारलो. कर्मकांडांत ह्या अध्यायाचो आस्पाव केल्ल्यान ताका कर्मांगत्वय फावो जालें अशें मानून सायणाचार्यांनी ह्या अध्यायाचें कर्मपरच विवेचन केल्लें आसा. तशेंच रुद्राची जायत्या ऋषींनी जायत्या तरांनी तुस्त केल्ली आसा आनी ताका लागून रुद्राचें म्हत्व फकत यज्ञांतल्या विनियोगापुरतेंच नासून व्यापक अशा तत्त्वगिन्यानाचे नदरेनूय ताका म्हत्व फावो जालां हेंय तो मान्य करता.

वायू, कूर्म, लिंग हीं पुराणां; आश्वालायन आनी बौधायन हीं गृह्यसूत्रां; हरिवंश, आगम सारकिल्ले ग्रंथ हातुंतल्यान रुद्राविशीं उद्‌बोधक वर्णनां आसात. शंख, याज्ञवल्क्य, अत्री आनी आंगिरस ह्या स्मृतिकारांनी रुद्राध्याय हो सकल पातकांचो नाश करता अशें म्हळां.

शैव परिवारांतल्या देवतांच्या महाभिशेकाच्या वेळार रुद्राध्याय म्हण्टात. शैव पंथांत म्हत्व आशिल्लो हो रुद्राध्याय फुडें वैश्णवांनीय आपणायलो. ताच्या जपान विष्णुलोक मेळटा अशें स्कंदपुराणाच्या रेवाखंडांत सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**रुद्राक्ष :** (मराठी : रुद्राक्ष; हिंदी : रुद्रक; संस्कृत, कन्नड आनी गुजराती : रुद्राक्ष; इंग्लीशः युट्रॅसम बीड ट्री; लॅटीन : एलिओकार्पस गॅनिट्रस, ए. स्फोरिकस; कूळ : एलिओकार्पेसी). फुलझाडांतलें सुमार १८ मी. उंचायेचें झाड. ब्रह्मदेश, थायलंड, मलाक्का, मलाया, नेपाळ आनी भारत ह्या देशांनी हाचो प्रसार आसा. भारतांत बंगाल,



बिहार, आसाम, मध्य प्रदेश, गुजरात, कर्नाटक आनी महाराष्ट्र ह्या वाठारांनी हो रूख दिश्टी पडटा. कोंकणांतल्या रानांनी हो सामान्यपणान दिसता. हाच्या एलिओकार्पस हे प्रजातींत सुमार २०० जाती आसून भारतांत तातुंतल्यो सुमार २६ जाती मेळटात. तातुंतलो रुद्राक्ष हो एक.

ताची साल गाड करडी. ताचेर बारीक बुराक आनी अशीर आडव्यो बारीक भेगो आसतात. ताचो तरणो भाग लवदार आसून पानां सादीं एकाआड एक, मध्यम आकाराचीं, भाल्यावरी आनी दांतेरी आसतात. उपपानां खूब ल्हान आनी बेगीन गळपी आसून खांदयांच्या तोंकाक पानांची गर्दी आसता. थंडेच्या दिसांनी पोरन्या पानांचे खाचींत जायत्या हुमकळपी ताळयांचेर ल्हान धवीं फुलां येतात. फळ अश्मगर्भी, वाटकुळें १.३ - २.५ सेंमी. व्यासाचें गुळगुळीत आनी जांबळें आसून फळांचेर दाट उंचवटे आनी पांच खांची आसतात. तशेंच तातूंत पांच कप्पे आनी पांच बियो आसतात. गीम आनी पावस हे फळांचे मोसम. पांचां परस चड वा उण्यो खांची आशिल्ले रुद्राक्ष चुकून मेळटात. रुद्राक्षाच्या फळांतलो मगज (गर) आंबट आनी खाद्य आसून तो मेंदवाचे विकार बरे करता. बियो निवळ करून तांकां चकचकसाण दिवन तांच्यो माळी करतात. हिंदू धर्मांत ह्या फळांक (रुद्राक्षांक) आगळेंच धर्मीक म्हत्व आसा. फकीर लोकूय रुद्राक्षाच्यो माळी गळयांत घालतात.

रुद्र + अक्ष म्हळयार शिवाचो दोळो असो ह्या उतराचो अर्थ जाता. ह्या तिसऱ्या दोळयाक संवसारांतल्या आध्यात्मिक तेजोबलाचें प्रतीक मानतात. देखून रुद्राक्षाक सर्वश्रेश्ठ मानतात. रुद्राक्ष - जाबालोप - निषदांत ताचे उत्पत्तीविशीं एक कथा आसा ती अशी - त्रिपुरासूर ह्या राक्षसाक मारपाखातीर कालाग्निरुद्रान ध्यानार्थ दोळे धांपले तेन्ना तातुंतल्यान जीं दुकां जमनीर पडलीं तांचे रुद्राक्षमणी जाले.

शिवाची उपासना करपी लोक भस्मधारण करपाइतलेंच रुद्राक्षधारणाक म्हत्व दितात. पोंवळें, मोतीं, स्फटीक, शंख, रुपें, भांगर, चंदन आदी वस्तूंपसून रुद्राक्षमणी तयार करतात अशें अक्षमालिका उपनिषदांत म्हळां. रुद्राक्षाच्या आकारांत बदल आसता. देवी भागवताप्रमाण आंवाळयाच्या आकाराचो रुद्राक्ष सगळयांत उच्च दर्ज्याचो, बोराएदो रुद्राक्ष मध्यम दर्जाचो आनी चण्या आकाराचो रुद्राक्ष सादो मानतात. रुद्राक्षाच्या मणयाचेर ओळी आशिल्लो जो भाग आसता ताका मूख म्हण्टात. ह्या मणयाक एक ते चवदामेरेन मुखां आसतात. योगसागरांत ह्या मुखांक वेगवेगळया देवांचीं प्रतिकां मानल्यांत. एकमुखी रुद्राक्ष शिवाक प्रिय आसता, द्विमुखी रुद्राक्ष शिव आनी ताची शक्ती, त्रिमुखी, अग्नीक, चारमुखी ब्रह्मदेवाक, पांचमुखी कालाग्निरुद्राक, समुखी कार्तिकेयाक, सातमुखी आदिशेषाक, आठमुखी गणपतीक, णवमुखी भैरवाक, दशमुखी विष्णुक, एकादशमुखी एकादशरुद्राक, बारामुखी सुर्याक, तेरामुखी कामदेवाक आनी चवदामुखी रुद्राक्ष शिवाक प्रिय आसता.

एकमुखी रुद्राक्ष सगळयांत शुभ मानतात. हो रुद्राक्ष ज्या घरांत आसा थंय लक्ष्मीचो सदांच वास आसता असो समज आसा. जाच्या गळयांत एकमुखी रुद्राक्ष आसता ताचेर शस्त्र चलना असोय एक समज आसा. एकमुखी रुद्राक्षावरीच एकादशमुखी रुद्राक्षूय पवित्र मानतात.

रुद्राक्ष हे चार रंगांचे आसतात. धव्या रंगाचो रुद्राक्ष सगळयांत श्रेश्ठ मानतात. ताचे उपरांत तांबडो आनी उपरांत हळदुवो जाल्यार काळो रुद्राक्ष सगळयांत हीन समजतात. धवे आनी हळदुवे रुद्राक्ष सहसा मेळनात. तांबडे आनी काळे रुद्राक्ष सगळयाक मेळटात.

योगी आनी शैव लोक रुद्राक्षाच्यो माळी आंगार घालतात. तंत्रशास्त्राप्रमाण ही माळ जपकार्यांत चड फलदायिनी आसता. गळयाभोंवतणीं बत्तीस वा सत्तावीस मणयांची माळ, मस्तकाचेर चाळीस, एका एका कानांत स - स, मनगटाचेर बारा आनी दंडांत सोळा - सोळा मणयांची माळ करून घालपाची पद्दत कांय शैव लोकांमदीं आसा. मंत्रजपाखातीर लागपी माळ चडशी एकशें आठ मणयांची आसता. जपमाळेखातीर लागपी मणी पंचमुखी आनी सैमीक बुराकांचे आसल्यार बरें मानतात. माळेखातीर सगळे रुद्राक्ष सारके तेजस्वी आनी कांट्यांनी मुक्त आसचे, किडयांनी खाल्ले आनी फुटिल्ले आसचे न्हय. माळ करतना दर एक रुद्राक्षाचें मूख दुसऱ्या रुद्राक्षाच्या मुखाक तेंकोवचें अशें तंत्रशास्त्रांत सांगलां.

रुद्राक्षाचे आयुर्वेदी उपेगूय जायते आसात. रुद्राक्षाची माळ गळयांत घाल्ली आसल्यार प्राणतत्त्व सदांच उरतात अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**फा. रुद्रिगीश, जुजे उदालरीकु द लापा :** (जल्म : १८५५, वेर्णां; मरण : १९३५).

एक गोंयकार धर्मीक शिक्षक. राशोलाक ताणें धर्मशास्त्राचें शिक्षण घेतले उपरांत तो 'सोसायटी ऑफ जिजस' हे संस्थेंत गेलो. जेजुईत प्रोव्हिन्स ऑफ पुर्तुगालचे सेमिनारींत प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. थंय ताणें ३० वर्सां शिकोवपाचें काम केलें. लापिन्यश (Lapinhas) ही बायलांनी स्वताक ओंपिल्ली सेवाभावी धर्मीक सभा ताणें स्थापन केली.

उपरांत १९१० वर्सा जाल्ले क्रांतीक लागून पुर्तुगालच्यान ताका ब्राझीलाक धाडलो. थंय तो कल्याणकारी संस्थेंत (Benedictine Seminarian) तत्त्वज्ञान हो विशय शिकोवंक लागलो. तशेंच रेसीफ (Racife) हांगाचे कोलेजीयु नोब्रेगा (Colegio Nobrega) हे संस्थेचो आध्यात्मिक संचालक जालो. ताचे ऊर्बेनूच पुर्तुगाल आनी ब्राझीलाक League of Sacerdotal Sanctity हिचो प्रसार जावंक पावलो.

- कों. वि. सं. मं.

**रुद्रिगीश, फॅलिक्स वेलोयश :** (जल्म : २० नोव्हेंबर १९१३, चिखली-मुरगांव; मरण : १९८२).

सुटकेझुजारी. बापायचें नांव सेबेस्त्यांव रुद्रिगीश. ताणें इंग्लीश लॅटिन आनी पुर्तुगेज माध्यमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. गोंयच्या तरणाट्या संघाचो तो वांगडी आशिल्लो. फुडें ह्या संघाच्या कराचीं फांट्याचो तो सेक्रेटरी जनरल जालो. १९३९ त तो मुंबयच्या राश्ट्रीय किरिस्तांव पंगडाचो वांगडी जालो.

ताणें छोडो भारत चळवळींत सक्रीय वांटो घेतलो. कराचीच्या 'रिसर्ज गोवा' 'Ressurge Goa' हें पत्रक काडपांत ताचो म्हत्वाचो वांटो आसा. २१ सप्टेंबर १९५४ ह्या दिसा मडगांवां जावपाच्या सत्याग्रहांत वांटो घेवपाखातीर तो कराचीसावन आयलो. पूण १९सप्टेंबर १९५४ ह्या दिसा कुळें रेल्वे स्टेशनाचेर पुर्तुगेज पुलिसांनी ताका धरलो. १९७४त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. तो पत्रकारितेचो वेवसाय करतालो.

- कों. वि. सं. मं.

**फा. रुद्रिगीश, मानुएल द व्हिसीतासांव :** (जल्म : म्हापशें).

बंगालचो पयलो गोंयकार धर्मप्रचारक. १९१८ ते १९२८ ह्या काळांत तो बंगालाक धर्मप्रचारक म्हणून आशिल्लो. बांदेल (हुगळी) हांगाची इगर्ज ताणें सारकी करून तातूंत सुदारणा घडोवन हाडल्यो. तशेंच ताणें डेक्काच्या ट्युटेल आनी मतबारीक इगर्जो बांदल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**रुद्रिगीश, मायकल डी.डी. :** (जल्म : ? ; मरण : १९६४).

बेळगांवचो पयलो गोंयकार धर्म गुरू. ताचो मूळ गांव चिंबल इल्हास. पूण धर्मीक शिक्षण घेतले उपरांत १९१८ वर्सा पाद्री म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९५३ वर्सा तो धर्मगुरू जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**रुद्रिगीश, मारियु :** (जल्म : १९२३, केळशी-साश्ट; मरण : २२ एप्रिल १९८१).

सुटकेझुजारी. भुरगेपणांत ताका १९४५चे नवाल म्युटिनी, मुंबय; सुभाषचंद्र बोसाची आझाद हिंद सेना आनी देशांतली राश्ट्रीय जागृताय हाचेपसून स्फूर्त मेळून ताका सुटकेझुजाविशीं ऊर्बा मेळ्ळी. तो ब्रिटिश हवाई दलांत काम करतालो. थंयच्यान मेकळो जातकच १९४६त तो गोंयांत आयलो आनी सविनय कायदेभंग चळवळीखातीर वावर करूंक लागलो. एवाग्रीयु जॉर्ज हाचेवांगडा तो मडगांव मिरवणुकांनी वांटो घेतालो. ताका लागून पुलिसांनी ताका धरलो आनी दोन दीस मडगांव पुलीस ठाण्यार दवरलो. अहिंसात्मक चळवळीपरस ताचो कल क्रांतीकारी चळवळीकडेन चड आशिल्लो. १९४७ वर्सा तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी जालो. भूंयगत वावर करूंक तो हांगा - थंय पांयांनी वतालो आनी सुटकेझुजाऱ्यांक बातम्यो, पत्रकां पावयतालो. ताच्या ह्या वावराखातीर सप्टेंबर १९४८ मुंबय, थंयच्या गोंयकार रहिवाशांनी ताचो विश्वनाथ ना. लवंदे वांगडा सत्कार केलो. १९५३ वर्सा ताणें वजऱ्यां गनिमी झुजाचें प्रशिक्षण घेतिल्लें. १९५४ वर्सा तो गोवन पिपल्स पार्टीचो वांगडी जालो. नगर हवेलीचे सुटके वेळार थंयचे जायते गांव तशेंच खांडवेलची सुटका करून घेवंक ताणें मोलादीक वावर केल्लो. १९५५त पणजे पालासींत बाँब स्फोट घडोवन हाडपाच्या कटांत ताचो वांटो आशिल्लो. ताका २२ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायल्ली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**रुद्रिगीश, सुनीत एफ्. :** (जल्म : १९ सप्टेंबर १९३३, मुंबय).

एक भारतीय लश्कर प्रमुख. ताच्या बापायचें नांव फ्रांसिस्क आनी आवयचें नांव आयडा. ताणें एम्. एस्सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. हाचेभायर डिफेन्स सर्वीस ऑफ स्टाफ कॉलेज, वेलींगटन आनी रॉयल कॉलेज ऑफ डिफेन्स स्टडीज, इंग्लंड हांगा ताणें लश्कराचें शिक्षण घेतलें. १९४९ वर्सा तो भारतीय सैन्याच्या कक्षांत काम करूंक लागलो. १९५२ वर्साच्यान तो तोफखान्याचो अधिकारी जालो. १९७० - ७१ ह्या वर्सा ताका जनरल स्टाफ ऑफिसर ग्रेड - १ हें पद मेळ्ळें. १९७१ - ७५ ह्या काळांत ताची माऊंटन ब्रिगेडची कमांडर (गिर्यारोहक) म्हूण नेमणूक जाली. हे मोहिमेंतली ताची कामगिरी पळोवन रॉयल कॉलेज ऑफ डिफेन्स स्टडीज (U.K) हांगा आर्मीचो प्रशिक्षक म्हूण नेमणूक जाली. थंयच्यान आयले उपरांत तो डिफेन्स सर्व्हीस स्टाफ कॉलेज, वेंलिंगटन हांगा मुखेल मार्गदर्शक जालो. हाचेभायर १९८३ - ८५ ह्या काळांत डायरेक्टर जनरल मिलिटरी ट्रेनिंग (आर्मी हेडक्वार्टर्स), १९८५ त जम्मु आनी काश्मीरचो आर्मी कमांडर, १९८६ वर्सा आर्मीचो उपमुखेली तशेंच १९९० वर्सा चीफ ऑफ आर्मी स्टाफ (लश्कराचो मुखेली) अशीं वेगवेगळीं पदां भुशयली. तशेंच तीन फावट वेगवेगळ्या भारतीय झुजांनी वांटो घेतलो.

१९८८ वर्सा ताका परम विशिश्ट सेवा मॅडल आनी उपरांत विशिश्ट सेवा मॅडल फाव जालें.

निवृत्त जाल्या उपरांत तो सद्या गोंयांत स्थायीक जाला. तो गोंय विद्यापीठ, इंटरनॅशनल सेंटर, माजी लश्कर अधिकारी संघटना आनी हेर सामाजीक, संस्कृतीक संस्थाच्या कारभारांत सक्रीय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**श्री रुद्रेश्वर देवस्थान - हरवळें :** दिवचल म्हालांतल्या सांखळी वाठारांतल्या श्रीक्षेत्र हरवळयां आशिल्लें नामनेचें देवस्थान. ह्या थळाची इतिहासीक वा पुराणीक म्हायती मेळना. पूण थंयच्या घटनात्मक नेमावळींत जी म्हायती मेळटा ताचेवयल्यान हें देवस्थान पुर्विल्ल्या काळांत नायक भंडारी समाजान स्थापन केलें आनी थंय देवूळ बांदलें म्हणपाचें कळटा. हें श्रीरुद्रेश्वर देवस्थान ज्या जाग्यार आसा त्या वाठाराक आगर देवळाकडलें थळ ह्या नांवान वळखतात. ह्या देवळांत मुखेल दैवत श्रीरुद्रेश्वर शिवलिंग आसून ताचे अस्तंतेकडेन पांडवांच्यो व्होंवऱ्यो आनी पुर्वाचारी तशेंच उदेंतेकडेन निराकारी हीं अनुषंगिक दैवतां आसात.

ह्या तीर्थथळार व्हड जात्रा भरता. तशेंच महाशिवरात्रेच्या दुसऱ्या दिसा सकाळीं रथोत्सव जाता. त्या देवस्थानाचे सगळे म्हाजन नायक भंडारी समाजाचे आसात. श्री रुद्रेश्वर देवस्थानची घटनात्मक नेमावळ तेन्ना तयार जावन त्या देवस्थानाच्या म्हाजनांची जी वळरी नेमावळींत आसा तातूंत सुमार १८३३ म्हाजनांचीं नांवां आसात. रायबंदर, पणजी, करमळी, कुंम्मारजुंवें, सांतान, कुडका, पाळें, मोवळें, मेरशी, ताळगांव, कालाफूर, नुवें, म्हापशें, वेरें, निल्ला, कांदोळी, हळदोणें, शिरगांव, मयें, नानोडें, वांयगिणी, पिळगांव, सांखळी, परयें, मोरियें, कारापूर, कुडणें, विर्डी, गांवठण, गावणें, वाघुर्मे, खांडोळें, हडकोळण, दुर्भाट, करंझोल, म्हाड्डोळ, भोम, वळवय, केरी - पेडणें, हरमल, खोर्जुवें, मांद्रें अशा ४२ गांवांनी हे म्हाजन पातळिल्ले आसात.

पिरायेचीं अठरा वर्सां पुराय जाल्ल्या फकत नायक भंडारी समाजाच्याच खंयच्याय मनशाक ह्या देवस्थानाच्या म्हाजनांचे वळेरेंत

नांव आस्पावन घेवंक मेळटा. महाशिवरात्रे दिसा ह्या देवस्थानांत श्रीरुदेश्वर देवाक अभिशेक वा देवकृत्य करपाक मान्यताय आसा. तशेंच महाशिवरात्रे दिसा रायबंदर गांवच्या खंयच्याय श्रीरुद्रेश्वर देवस्थानच्या म्हाजनाक फुकट अभिशेक करपाक मान्यताय आनी भोवमान मेळटा.

पुर्विल्ल्या काळासावन ह्या देवस्थानांत हिंदू लोकांक नारायणबळी, नागबळी सारकें अनुश्ठान करपाक मेळटा. तशेंच ह्या थळाचेर मेल्ल्या मनशाच्या इकराव्या आनी बाराव्या दिसाचीं वैदिक कर्मां आनी अस्थी विसर्जन करपाची वेवस्था आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रुपें :** धातुरूप रसायनीक मूळद्रव्य. चिन्न Ag. अणुक्रमांक (अणुकेंद्रांतल्या प्रोटोनांची संख्या) ४७; अणुभार १०७. ८६८ आवर्त सारणींतल्या पयल्या गटांतल्या ब विभागांत तांबें आनी भांगर हांचेमदीं सुवात; ताचो वितळ गूण १०.५; कठीणताय २.५ - ३; वितळबिंदू ९६०. ८°से. उकळबिंदू २,१९३° से.; रुप्याचो विद्युत् विन्यास (इलॅक्ट्रोनांची अणुंतली मांडावळ) २,८,१८,१८,१. धर्तरेच्या शिलावरणांतलें प्रमाण प्रती दशलक्ष भागांत चार भाग आसता. एक हजार भागांनी कितलो भाग रुपें आसा हाचेवयल्यान रुप्याची प्रत थरयतात. शुध्द रुपें ९९९ फायन आसता. रुपें धवें आसून ताका चकचकसाण बरी आसता. ती मोव तन्य (सरी काडपाक योग्य) आनी वर्धनशील आसा. तशेंच ती बरी उश्णताय आनी विद्युत् संवाहक आसा.

**इतिहास :** सुरवातीसावन भांगर, तांबें आनी रुपें हांचो उपेग मनीस करत आयला. रुपें हें सल्फायडाच्या रुपांत शिंश्यांत आसता. हेर धातूंच्या मानान रुप्याची शिलावरणांतली उपस्थिती उण्या प्रमाणांत आसता. रानांतल्या वणव्याक लागून वा वसणुकांक लागिल्ल्या उज्यांत रुप्याच्या धातुकांतलें रुपें वितळून भायर आयलें आसुंये आनी मनशाक ताचो सोद लागलो जांवये. दक्षिण युरोप आनी आशिया मायनर भुंयेवाठारांत रुप्याचो उपेग (इ. स. आदीं ४000 वर्सांच्या सुमाराक) वस्तींखातीर तशेंच वेपाराचे देवघेवीखातीर करताले असो उल्लेख पुर्विल्ल्या पोरन्या कागद पत्रांवयल्यान मेळटा. इ. स. आदीं २000 वर्सां कॅपाडोशियाचे वेपारी ॲसिरियाक रुपें धाडटाले. इ. स. आदीं ५00 च्या सुमाराक ग्रीसांतल्या लॉरियमची रुप्याचे खणीची नामना आशिल्ली. तशेंच पर्शियाचें अथेन्साकडेन झूज जालें तेन्ना अथेन्साक हे खणीचो आदार मेळिल्लो. शिंश्याची अशुध्दी आशिल्लें रुपें तापोवन तातुंतलें शिंशे बाश्पनशील (उडून वचपी) ऑक्सायडाच्या रुपान काडून उडोवपाच्या क्युपेलीकरण हे क्रियेचो प्लिनी (इ. स. २३ - ७९) हाच्या लिखाणांत उल्लेख मेळटा.

भारतांत पुर्विल्ल्या काळासावन ह्या धातुची म्हायती आशिल्ली. ऋग्वेदांत रुपें आनी भांगर हांच्या वस्तींचो उल्लेख मेळटा. भारतावांगडा स्पेनाचो मसाल्याचो वेपार जातालो तेन्ना स्पेनांतल्यान भारतांत रुपें येतालें. पंदराव्या शतमानांत बोहीमिया आनी ट्रान्ससिल्व्हानियांत रुप्याचे खणीचो विकास जालो. फुडें स्पेनाच्या अस्तंती साम्राज्यांतल्या मेक्सिको, पेरु आनी बोलिव्हिया ह्या देशांतल्या रुप्याच्या खणींचो सोद लागलो. सोळाव्या शतमाना उपरांतच्या तीनशें वर्सांमदीं रुपें मेळोवपाखातीर पारदमेल (पान्या वांगडा धातूचें मिश्रण करपाची) पद्दत वापरांत आशिल्ली. १९00 च्या सुमाराक अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत रुप्याच्यो खणी मेळ्ळयो आनी थंय रुप्याचें उत्पादन सुरू जालें.

फुडें फुडें रुप्याच्या खनिजाचे सांठे उणे जायत गेल्ल्यान रुप्याच्या मुखेल उत्पादना जाग्यार भांगर, तांबें, शिंशें आनी जस्त हांच्या धातुकापसून ते ते धातू मेळयतना एक उप-उत्पादन म्हणून रुप्याची निर्मिती जावंक लागली. एकुणिसाव्या शतमानामेरेन क्युपेलीकरण पद्दत वापरांत आशिल्ली. १८५0 वर्सा सावन २0 व्या शतमानामेरेन ७0% रुपें क्युपेलीकरण पद्दतीन उप-उत्पादन म्हणून मेळयताले. एकुणिसाव्या शतमानाचे अखेरेक रुपें मेळोवपाखातीर सायनायड पद्दतीचो सोद लागलो.

उपरांतच्या काळांत विनिमयाखातीर, नाण्यांखातीर तशेंच वस्ती आनी सोबेच्यो वस्तू हांचेखातीर रुप्याचो आनी भांगराचो उपेग जावंक लागलो तसतशी रुप्याची मागणी वाडली. हो वेळ मेरेन उद्येगीक मळार आनी तंत्रविज्ञानांतूय रुप्याचो उपेग जावंक लागलो. ताका लागून रुप्याचे शुध्दतायेचेर नियंत्रण दवरप गरजेचें जालें. शुध्द रुपें खुबूच मोव आशिल्ल्यान ताचेर काम करपाखातीर तातूंत थोडें तांबें भरसुचें पडटालें आनी तें उण्यांत उणें १0% आसतालें.

नॉर्वे, चिली आनी पेरू ह्या देशांची रुप्याखातीर नामना आसा. भारतांत बिहारांतल्या टण्डू, कर्नाटकांतल्या कोलार आनी हुट्टीच्या भांगराच्या खणींतल्यान आनी राजस्थानांतल्या झवारच्या जस्त शिंश्याच्या खणींनी रुपें मेळटा. हिमाचल् प्रदेशांत सतलजच्या देगणांत ३३00 मी. उंचायेचेर सैमीक शुध्द रुपांत रुपें मेळटा.

**रुप्याचीं मुखेल धातुकां :** अर्जेंटायट वा सिल्व्हर ग्लान्स ($Ag_2s$; ८७.१% रुपें); सेरार्जिरायट वा हॉर्न सिल्व्हर (Agcl ७५.३% रुपें)ः पायरार्जिरायट वा रूबी सिल्व्हर ($Ag_3Sbs_3$, ५९.९% रुपें), पॉलिबेसायट ($Ag_{16}sb_2s_{11}$; ७५.६% रुपें); प्राउस्टायट ($Ag_2AsS_3$; ६५.४% रुपें) हेभायर स्टेफानायट, टेल्यूरायट, अर्जेंटिफेरस, टॅट्राहायड्रायट, स्टोमायरायट आनी पियरसायट हीं रुप्याचीं हेर धातुकां.

रुप्याचे चडशे सगळे धातूक निक्षेप (सांठे) एक तर वेगवेगळ्या फातरांनी शिलारसांतल्या जलतापीय विद्रावांनी प्रतिश्ठापन जावन वा फातरांत आसपी पोकळ्यो ह्या विद्रावांनी भरून तांचें स्फटिकीभवन जावन तयार जाल्लें आसता.

धातुकापसून रुपें मेळोवपाच्यो जायत्यो पद्दती उपलब्ध आसात. (१) शिंश्यावांगडा मिश्रधातू करून उपरांत शिंश्याचें ऑक्सिडीकरण करून (क्युपेलीकरण) पद्दतीन शिंशें काडून उडोवप; वा पॅटिन्सन हाचे पद्दतीप्रमाण मिश्रधातू वितळावन शुध्द शिंशें स्फटिकीकरणान वेगळें करप आनी पार्कस हाचे पद्दतीन वितळपी जस्तावांगडा रुपें एकठांय करून उपरांत जस्त काडून उडोवप. (२) मेक्सिकोंतले पद्दतीप्रमाण पायाकडेन रुप्याचो पारदमेल घडोवन उपरांत पारो ऊर्ध्वपातनान वेगळो करून रुपें मेळोवप. (३) सोडियम आनी पोटॅशियम सायनायडांत ऑक्सिजनाचे उपस्थितींत रुपें विरगळावन उपरांत जस्ताच्या आदारान तिचें अवक्षेपन करप. हे पद्दतीक सायनायड पद्दत वा वोली पद्दत अशें नांव आसा.

**पारदमेल पद्दत :** मेक्सिकोंत १५५७ वर्सा बार्तोलोमेव द मेदिना हाणें हे पद्दतीचो सोद लायलो. हे पद्दतींत सुरवेक धातुकांतल्या रुप्याचें क्लोरायडांत रुपांतर करतात. मूळ धातुकांत रुपें, तिचें क्लोरायड आनी सल्फायड आनी खुबसो फातर आसता. हाचो बारीक पिठो करून तातूंत भाजिल्ल्या क्युप्रिक आनी फॅरिक सल्फेट आशिल्ल्या पायरायटांचो पिठो आनी पारो भरसून सगळें मिश्रण एकठांय करतात. हाका लागून सिल्व्हर क्लोरायड आनी सूक्ष्मकणी पारो हांचे विक्रियेन रुपें वेगळें जाता आनी पारो तशेंच रुपें एकठांय येवन तांचो पारदमेल तयार जाता. त्या वेळार पारदमेलाची सूक्ष्म भुकटी तयार जाता. हो पारदमेल लोखणाच्या आयदनांत तापयतात. ताका लागून पान्याची वाफ जाता आनी रुपें वेगळें जाता. १९०४ वर्सा ही पद्दत प्रचारांत आयली.

**सायनायड पद्दतः** हातूंत धातुकाचें सूक्ष्म चूर्ण करून ताचे ०.४% सोडियम सायनायडाच्या विद्रावान अपक्षालन (विद्राव्य घटक धुंवपाचे क्रियेन विरगळावन वेगळो करपाची क्रिया) अपक्षालन प्रक्रियेंत सोडियम अर्जेंटो सायनायड ($NaAg(CN)_2$) हें विद्राव्य संयूग जाता. हो विद्राव गाळून तातुंतल्यान जस्ताच्या आदारान रुप्याचें क्षपण करतात.

**रजत संहतिवर्धन पद्दत :** शिंश्याच्या धातुकांत १% परस उण्या प्रमाणांत रुपें आसलें जाल्यार तिची संहती (प्रमाण) वाडोवची पडटा. तेरवातीर एके पद्दतींत धातूक तापोवन आनी वितळावन थंड करतात. शिंश्याच्या गोठणबिंदूच्या थोड्या उण्या तापमानाक शिंश्याचे स्फटीक वेगळे जातात. अशे तरेन शिंशें वेगळें जावन ३०३° से तापमानार शिंशें आनी रुपें वेगळें जाता. तेन्ना रुप्याचें त्या धातुविद्रावांतलें प्रमाण २.२५% इतलें आसता. शिंश्यांतलें रजतवर्धन करपाचे हे पद्दतीक पॅटिन्सन पद्दत म्हण्टात.

शिंशें आनी जस्त हे धातू एकामेकांत उण्या प्रमाणांत विरगळटात. वितळिल्ल्या शिंश्यांत १.६% जस्त विरगळटा, जाल्यार वितळिल्ल्या जस्तांत १.२% शिंशें विरगळटा. ५४०° से. तापमानाक जितलें रुपें शिंशांत विरगळटा ताच्या तीनशें पटींनी रुपें त्याच तापमानाक तितल्याच वजनाच्या जस्तांत विरगळटा. पार्कस हाणें १८५० त सोदून काडिल्ले पद्दतींत रजतसंवर्धनाखातीर हे गजालीचो उपेग करतात.

**अवपंक प्रद्रावण पद्दत :** विद्युत् विच्छेदनान तांबें शुध्द करतकच धनाग्राकडेन जो गाळ जमता ताचेपसून प्रद्रावण पद्दतीन रुपें मेळोवं येता. प्रद्रावण म्हळयार हेर द्रव्यांसावन वितळिल्ल्या स्वरुपांत धातू वेगळे करप. ही एक म्हत्वाची पद्दत आसा. हो गाळ सल्फ्युरीक आम्लांत घालून तातूंत हवा प्रवाहीत करतकच तांबें विरगळून वता. तांब्या वांगडा थोडें सेलेनियम आनी टेल्युरियमय तातूंत विरगळटा.

गाळाची वयली प्रक्रिया करतकच तो सुकोवन तातुंतल्यान कॅल्शियम कार्बोनेट, रेंव आनी टाकण खार हातूंतलो फावो तो पदार्थ घालून ल्हान परावर्तन भट्टेंत गाळाचें प्रद्रावण करतात. उपरांत हलके धातू चिरखलावांगडा वतात आनी भांगराभरशी रुपें - हेमरज वा रजसु मेळटा. हेमरज थंड जावचे आदीं सांच्यांत ओतून तिचीं धनाग्रां तयार करतात. ही वापरून फावो ती विद्युत् प्रवाह घनताय राखल्यार ९९.९% शुध्द रुपें मेळटा. ती सुयेच्या आकाराच्या स्फटीक रुपांत आसता. ह्या स्फटिकांपसून शुध्द रुपांचे पाट तयार करतात.

**रसायनीक गुणधर्म :** शुध्द रुप्याचेर शुध्द हवेचो वा शुध्द ऑक्सिजनाचो कांयच परिणाम जायना. पूण सदच्या वातावरणांतल्या ऑक्सिजनावांगडा आशिल्ल्या हायड्रोजन सल्फायडाक लागून ती वयले वटेन काळी जाता. तांतयांतल्या कार्बनी गंधक संयुगाक लागून रुप्याचीं कुलेरां काळीं जातात.

रुप्याचेर क्लोरीन वायूचो चड बेगीन परिणाम जायना. त्या मानान ब्रोमीन, आयोडीन आनी गंधक हांचो परिणाम सवकासायेन जाता. रुप्याचेर हायड्रोक्लोरिक आम्लांचो तशेंच विरल सल्फ्यूरिक आम्लाचो परिणाम जायना. पूण सळसळीत संहत सल्फ्यूरिक आम्लांत तशेंच विरल नायट्रिक आम्लांत तें विरगळटा. सळसळीत सल्फ्यूरिक आम्लावांगडा रुप्याचे विक्रियेंत सिल्व्हर सल्फेट आनी सल्फर डायऑक्सायड वायू जातात आनी सौम्य नायट्रिक आम्लांत सिल्व्हर नायट्रायट आनी नायट्रिक ऑक्सायड वायू तयार जातात.

रुप्याच्या वयल्या भागार तिच्या क्लोरायडाचो थर बसता आनी फुडली विक्रिया थांबता. ताका लागून रुप्याचेर हायड्रोक्लोरीक आम्लाची विक्रिया जायना. हून संहत हायड्रिआयोडिक आम्लांत रुप्याचो पिठो विरगळायल्यार सिल्व्हर आयोडायड आनी हायड्रोजन वायू तयार जातात.

**उपेग :** रुप्या पसून वस्ती, आयदनां आनी नाणीं तयार करतात. तशेंच विनिमयाखातिरूय रुप्याचो उपेग करतात. वखदांखातीर आनी आयदनां निर्जंतूक करपाखातीर रुप्याचो उपेग

करतात. रुपें हें उण्या प्रमाणांत मेळटा आशिल्ल्यान तशेंच, ताचें मोलूय चड आशिल्ल्यान भांगरावांगडा ताकाय अभिजात धातू म्हणून मान्यताय मेळळ्या. वरवदांनी रुप्याच्या संयुगाचो उपेग जाता. छायाचित्रणांत, विद्युत् आनी इलॅक्ट्रॉनिक उपकरणांत तशेंच मिश्रधातूंत रुप्याचो खुबूच उपेग जाता.

रुप्याची बरी विद्युत् संवाहकताय, बरी उश्णताय, संवाहकताय आनी क्षरण (झीज) तशेंच ऑक्सिडीभवनाक विरोध करपी ह्या गुणांक लागून विद्युत् आनी इलॅक्ट्रॉनीक उपकरणांनी रुप्याचो उपेग करतात.

बरी चकाकी आशिल्ल्या रुप्याच्या पृश्ठभागावयल्यान ९५ टक्के प्रकाश परावर्तीत जाता. ताका लागून धातूचेर रुप्याचो मुलामो दिवन हारशे करतात. तशेंच रुप्याच्या संयुगाचें क्षपण करून कंवचेचेर रुप्याचो थर दिवनूय हारशे तयार करतात. रुप्याच्या संयुगाचेर प्रकाशीय परिणाम जाता आशिल्ल्यान छायाचित्रण फिल्माचेर रुप्याच्या आयोडायड, क्लोरायड वा ब्रोमायड ह्या संयुगांचो पातळ थर दिल्लो आसता. मोडिल्लीं हाडां सादोवपारवातीर रुप्याच्यो सळयो, पत्रे आदींचो उपेग करतात. कांय ऑक्सिडीकारक विक्रियांत आनी अमोनियासावन रवतां तयार करपाक रुप्याचो उत्प्रेरक म्हणून उपेग करतात. विद्युत् संचायक घटमाळेंत आनी विद्युत् विलेपनांत रुप्याचो उपेग जाता.

**मिश्रधातू :** रुप्याचे मिश्रधातू रुप्यापरसय घट्ट आसतात. रुपें एक बरें विद्युत् आनी उश्णतावाहक आशिल्ल्यान आनी खुबूच मोव आशिल्ल्यान तातूंत 10% तांबें वा थोडें कॅडमियम ऑक्सायड मेळून तयार केल्लो मिश्रधातू विद्युत् उपकरणांक वापरपाक बरो योग्य आसता. २८% तांबें भरसून केल्लो मिश्रधातू ७७९° से.चेर वितळटा. शुध्द रुपें ९६०° से. चेर वितळटा.

भांगर वा पॅलॅडियम आनी रुपें हांचे मिश्रधातू मोव आनी तन्य आशिल्ल्यान ते रत्नजडीत अलंकार करपारवातीर आनी विद्युत् संपर्ककारी म्हणून वापरतात. विमानाच्या इंजिनांत वापरतले धारवे (बेअरिंग) तयार करपाच्या मिश्रधातूंत एक घटक रुपें आसता. रुपें, कथील आनी थोड्या प्रमाणांत तांबें आनी जस्त हांची बारीक पूड पाऱ्यावांगडा भरसून तें मिश्रण थोडो वेळ मोव उरून उपरांत घट्ट जाता. अशी भरसण किडिल्ले दांत भरपारवातीर वापरतात.

**संयुगां :** रसायानीक नदरेन रुपें हो मूळधातू पयल्या गटाच्या ब विभागांतलो आसा $Br^-$, $I^-$ ह्या सारक्या वर्णहीन धनायनां वांगडा ताचीं रंगीत लवणां तयार जातात. रुप्याचीं फकत तीन सादीं लवणां नायट्रेट, फ्ल्युओरायड आनी परक्लोरेट हीं उदकांत विरगळपी; ॲसिटेट, क्लोरेट, नायट्रेट आनी सल्फेट उदकांत कांय प्रमाणांत विरगळपी आनी हेर सगळीं उदकांत विरगळनाशिल्लीं आसात. बरींचशीं विरगळनाशिल्लीं लवणां आमोनिया सायनायड वा थायोसल्फेट वा हॅलायडावांगडा जटील आयन जावन उदकांत विरगळटात. फ्ल्युओरायड परमायोडेट आनी परक्लोरेट हीं लवणां सजल आसात.

रुप्याचीं कांय संयुगां, तांचे गुणधर्म आनी उपेग अशे आसात-

**सिल्व्हर नायट्रेट ($AgNo_3$) :** हाका ल्यूनर काश्टीक अशेंय म्हण्टात. शुध्द रुपें विरल नायट्रिक आम्लांत विरगळावन तयार जाल्ल्या विद्रावाचें सवकासायेन बाश्पीभवन केल्यार सिल्व्हर नायट्रेटचे स्फटीक मेळटात. हे संयुग म्हत्वाचे आसून उदकांत सहज विरगळटात. तापयल्यार ताचें अपघटन जावन रुपें, नायट्रोजन डाय-ऑक्सायड आनी ऑक्सिजन तयार जाता. हें विखारी आसून प्राणघातक जावं येता. कातीक लागल्यार वा कार्बनी संयुगाकडेन आयल्यार काळो दाग पडटा. ताचेर प्रकाश किरणाचो परिणाम जाता. देखून तें बाटलेंत भरून दवरतात. दोळयाच्या विकारांवयल्या वरवदांनी, हारशे तयार करपारवातीर; कपड्यावयली खुणेची शाय तयार करपारवातीर तशेंच रुप्याचीं हेर संयुगां तयार करपारवातीर ताचो उपेग जाता.

**सिल्व्हर ऑक्सायड** ($Ag_2o$) **:** रुप्याचें तपकिरी रंगाचें हें संयूग उदकांत मातूय विरगळना. रुप्याचें चूर्ण पंदरा वातावरण दाबारवाल ऑक्सिजनाच्या वातावरणांत 300° से. मेरेन तापयल्यार हें संयूग मेळटा. हें तयार करपारवातीर सिल्व्हर नायट्रेटाच्या विद्रावांत सोडियम, पोटॅशियम वा बेरियम हायड्रोक्सायडाचो विद्राव भरशितात आनी तातुंतल्यान मेळपी तपकिरी सिल्व्हर ऑक्सायड गाळून ६0° - ८0° से. तापमानाक सुकयतात.

सिल्व्हर ऑक्सायड तापयतकच रुपें आनी ऑक्सिजन मेळटा. आमोनियम हायड्रोक्सायडांत ताचें डायअमायन सिल्व्हर हायड्रॉक्सायड ($Ag(NH_3)_2)OH$ जाता. रंग आनी कंवचेचें पॉलिश तयार करपारवातीर, उदक निवळ करपारवातीर उत्प्रेरक म्हणून विद्युत् घटांतल्या अग्रांरवातीर आनी वरवदांत सिल्व्हर ऑक्सायडाचो उपेग करतात.

**सिल्व्हर हॅलायडां :** रुप्याचीं क्लोरायड, ब्रोमायड आनी आयोडायड हीं हॅलायडां म्हत्वाचीं आसात.

**सिल्व्हर क्लोरायड (Ag cl.) :** वर्ण धवो. हो सैमांत मेळपी आसून ताका हॉर्न सिल्व्हर अशें नांव आसा. हायड्रोजन वायूच्या प्रवाहांत सिल्व्हर क्लोरायड तापयल्यार परत रुपें मेळटा. छायाचित्रणांत तशेंच विश्वकिरणाच्या अभ्यासांत आयनीभवन अभिज्ञातक म्हणून उपेग जाता.

**सिल्व्हर ब्रोमायड (Ag Br) :** वर्ण लेव हळदुवो. सिल्व्हर नायट्रेटच्या विद्रावांत जलीय ब्रोमायडाची भर घाल्यार सिल्व्हर ब्रोमायड जाता. उजवाडाची विक्रिया जाल्यार तें काळें जाता. उदक आनी विरल नायट्रिक आम्लांत तें व्हड प्रमाणात विरगळटा. आमोनिया विद्रावांत विरगळून $(Ag(NH3)n)+ Br^-$ हें जटील संयुग निर्माण जाता. सिल्व्हर ब्रोमायडांच्या छायाचित्रणांत ताचो उपेग जाता.

**सिल्व्हर आयोडायड (AgI) :** हळदुवसार. सिल्व्हर नायट्रेटच्या विद्रावांत पॉटॅशियम आयोडायडाच्या विद्रावाची भर घालतकच हें संयुग जाता. सैमांत आयोडिरायट नांवाच्या खनिजांत ती मेळटा. कृत्रीम पावस घालपाखातीर कुपांचेर शिंपणी करपाखातीर तशेंच छायाचित्रणांत ताचो उपेग जाता.

**सिल्व्हर हॅलायडाचो छायाचित्रणांत उपेग :** छायाचित्रणाखातीर फिल्माचेर वा कंवचेचेर सिल्व्हर हॅलायडमिश्रीत जिलेटिनाचो सामको पातळ थर दिल्लो आसता. कॅमॅरांतल्या भिंगांतल्यान ह्या फिल्माचेर जेन्ना भायल्या दृश्यापसून येवपी प्रकाश किरण पडटात, तेन्ना थंयचीं हॅलायडां रेणूचेर प्रकाशाच्या उण्याचड खरसाणे प्रमाण उणो चड परिणाम घडटा. हीं फिल्मां उपरांत काळखे कुडींत विकाशकाच्या विद्रावांत दवरतात. ताका लागून प्रकाशाच्या उण्या चड प्रमाणा प्रमाण हॅलायडाचें उणेंचड क्षपण जावन त्या जाग्यार रुपें अवक्षेपीत जाता. ज्या भागार चड प्रकाश त्या भागार चड रुप्याचो थर आनी उण्या प्रकाशाच्या भागार उण्या रुप्याचो थर बसता. उपरांत हीं फिल्मां उदकान धुवन थीर कारकांत (चित्राचें स्वरूप कायम दवरपी रसायनां) दवरतात.

**सिल्व्हर सल्फेट ($Ag_2 So_4$) :** रुपें सल्फ्युरिक आम्लांत विरगळटकच सिल्व्हर सल्फेट तयार जाता. तशेंच रुप्याचें ऑक्सायड वा कार्बोनेट सल्फ्युरिक आम्लांत विरगळून हें संयूग मेळूंक शकता.

**सिल्व्हर सल्फायड ($Ag_2s$) :** सैमांत ग्लान्स वा आर्जेंटायट ह्या रुपांत मेळटा. सिल्व्हर नायट्रेटच्या विद्रावांतल्यान हायड्रोजन सल्फायड वायू सोडटकच सिल्व्हर सल्फायडाचो काळो अवक्षेप मेळटा.

**सिल्व्हर सायनायड (Ag CN) :** रुप्याच्या लवणाच्या विद्रावांत पॉटॅशियम सायनायडाची भर घालतकच सिल्व्हर सायनायडाचो धवो अवक्षेप मेळटा. तो उदक, विरल आम्लां आनी आमोनिया हातूंत विरगळना. पोटॅशियम सायनायड कांय प्रमाणांत घालतकच ताचें विरगळपी लवण K(Ag(CN)2)+ तयार जाता. विद्युत् विच्छेदनान हेर धातूंचेर रुप्याचो वर्ख दिवपाखातीर ह्या लवणाचो उपेग जाता.

**सिल्व्हर कार्बोनेट ($Ag_2 CO_3$) :** सिल्व्हर नायट्रेटाच्या विद्रावांत सोडियम कार्बोनेटाचो विद्राव भरशितकच सिल्व्हर कार्बोनेटाचो लेव हळदुवसार अवक्षेप मेळ्टा. २२०° सॅ. तापमानाक ताचें अपघटन जावन रुपें जाता.

**सिल्व्हर नायट्रायड :** आक्ताक तयार केल्लें सिल्व्हर ऑक्सायड अमोनियांत विरगळटा आनी हो विद्राव वाऱ्याक तसोच उरल्यार सिल्व्हर नायट्रायडाचो काळो अवक्षेप मेळटा. तो सुको आसता तेन्ना खूब स्फोटक आसता.

**कांय कार्बनी संयुगां :** आमोनियम सिल्व्हर नायट्रेटच्या विद्रावांतल्यान ॲसिटिलीन वायू सोडटकच सिल्व्हर ॲसिटिलायड ($Ag_2 c_2$) हो स्फोटक संयुगाचो धवो अवक्षेप मेळटा.

हाचेभायर ॲसिटेट, बॅंझोएट, सायट्रेट, ऑक्झॅलेट, पामिटेट, सॅलिसिलेट, टाटरिट आदीं रुप्याचीं कार्बनी संयुगां विद्युत् विच्छेदनान रुप्याचो वर्ख दिवपाक वा छापणावळींतल्या वेगवेगळया प्रक्रियांनी वापरतात.

**गुणात्मक विश्लेशण :** रुप्याचें घनरूप संयूग, सोडियम कार्बोनेटावांगडा भरसून हें मिश्रण कोळशाचे खांचींत घालून क्षपणकारक उज्याचेर तापयल्यार रुप्याचो धवो वर्धनशील मणी मेळटा. (२) रुप्याच्या लवणाच्या विद्रावांत हायड्रोक्लोरीक अम्ल आनी विरगळपी क्लोरायड घाल्यार सिल्व्हर क्लोरायडाचो धंयावरी धवो अवक्षेप मेळटा. हो अवक्षेप नायट्रिक आम्लांत विरगळना पूण आमोनियम हायड्रोक्सायडांत विरगळटा. (३) रुप्याच्या लवणाच्या विद्रावांत पोटॅशियम आयोडायड घाल्यार सिल्व्हर आयोडायडाचो हळदुवो अवक्षेप मेळटा. (४) पोटॅशियम क्रोमेटावांगडा रुप्याच्या लवणाचो विद्राव तांबड्या रंगाच्या सिल्व्हर क्रोमेटाचो अवक्षेप दिता आनी तो नायट्रिक आम्लांत विरगळटा. (५) आमोनियम हायड्रोक्सायडा वांगडा रुप्याच्या लवणाचो विद्राव काळया तपकिरी वर्णाचो सिल्व्हर ऑक्सायडाचो कांय अमोनियम हायड्रोक्सायडांत विरगळपी अवक्षेप दिता.

**परिमाणात्मक विश्लेशण :** (१) वजनी परिमाणात्मक विश्लेशणांत रुप्याच्या लवणाच्या विद्रावापसून सिल्व्हर क्लोरायडाचो वा सिल्व्हर ब्रॉमायडाचो अवक्षेप मेळयतात. तो गाळून जतनायेन सुकयतकच आनी ताचें वजन करतकच नमुन्याच्या पदार्थांतली रुप्याची मात्रा थारावंक मेळटा. (२) आकारमानी विश्लेशणांत पोटॅशियम थायोसायनेटाचो ज्ञातमूल्य (जातूंत विरगळिल्ल्या पदार्थाचें वजन कितलें आसा तें कळटा) विद्राव वापरतात. (३) विद्युत् विच्छेदनान क्षपण करून (आंवळून घेवन) धातुरुपांत मेळयल्ल्या रुप्याचें वजन करून नमुन्याच्या पदार्थांतली रुप्याची मात्रा थरयतात.

- कों. वि. सं. मं.

## रुमानियन भास

**रुमानियन भास :** रुमानियन भास ही उदेंतेकडली एक भास. रोमान्स भाशाचोंब्यांत हे भाशेचो आस्पाव जाता.

रुमानियन भाशेचे थळावे भेद आसात ते अशे - (१) डाको - रुमानियन ही रुमानिया आनी रुमानियाक लागून आशिल्ल्या युगोस्लाव्हिया, बल्गेरिया आनी सोव्हिएत संघांतल्या मॉल्डेव्हिया राज्यांतल्या संलग्न प्रदेशांत उलयतात.

(२) मॅसिडो रुमानियन वा आरुमानियन ही भास ग्रीसांतले मॅसिडोनिया आनी थेसाली हे प्रदेश आनी युगोस्लाव्हिया आनी बल्गेरियांतल्या कांय भागांनी उलयतात.

(३) मेग्लेनो - रुमानियन ग्रीसांत सालोनिकी लागसार उलयतात.

(४) इस्त्रियो - रुमानियन ही युगोस्लाव्हियाच्या वायव्य भागांतल्या इस्त्रिया प्रदेशांत मल्योरी पर्वतालागसार उलयतात.

भाशाभेद (३) आनी (४) हे अस्तित्वांत नात. डाको - रुमानियन ही भास सोडल्यार मॅसिडोरुमानियन हीय भास अस्तंगत जायत आसा.

रुमानियन भास ही उदेंतेकडल्या रोमन साम्राज्यांत उलयतात ते लॅटीन भाशेची वंशज. रोमनांचें बाल्कन द्वीपकल्पावयलें आक्रमण ख्रिस्तापयलीं तिसऱ्या शेंकड्यांत सुरू जावन डेश (आयचो रुमानिया) जिखतकच इ.स.च्या दुसऱ्या शेंकड्यांत तें पुराय जालें. भुगोलीक साहचर्याक लागून स्लाव्हिक भाशांचो रुमानियन भाशेचे शब्दसंपत्तेचेर खूब प्रभाव पडलो. अठराव्या शेंकड्यांत ग्रीक आनी तुर्की भाशांनीय रुमानियन भाशेचेर आपलो प्रभाव घालो. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत आर्विल्लें विज्ञान, कला हांचेकडेन संबंदीत शब्दांची भर, फ्रेंच, इटालियन आनी इंग्लीश भाशेंतल्यान रुमानियन भाशेंत पडली. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन रुमानियन भास शेजारच्या स्लाव्हिक भाशेभाशेनूच सिरिलिक लिपींत बरयताले. पूण १८५९ वर्सा रोमन लिपी आपणायली. मॉल्डेव्हियांत मात आजुनूय सिरिलिक लिपी वापरतात. सगळयांत पोरने रुमानियन ग्रंथ पंदराव्या शेंकड्यांतले आसून ते चडशे धर्मीक स्वरुपाचे आसात. एकुणिसाव्या शेंकड्यासावनूच राश्ट्रीय भावनेचे वाडीक लागून उत्कृश्ट वाङ्मय निर्माण जावंक लागलें. पूण भाशांतराच्या उणावाक लागून तें देशाभायर वचूंक पावलेंना.

रुमानियन भाशेंतलें मुखेल खाशेलपण म्हळयार लॅटीन भाशेंतलें ऱ्हस्व 'उ' आनी दीर्घ 'ओ' हातुंतलो भेद 'u' आनी 'o' असो रुमानियन भाशेंत कायम दवरला. रुमानियन भाशेंतली स्वर वेवस्था आनी व्याकरण खूबशें रोमान्स धाटणीचें आसा, पूण शब्दसमूह चड करून स्लाव्हिक भाशाचोंब्या कडल्यान प्रभावीत आसात. क्, ग् ह्या व्यंजनांचें जोडगिरांभितर ओष्ठ्यीकरण जालां. देखीक - o·oto (आठ) >opt; तेच भाशेन 'ग्न' चें 'म्न' त परिवर्तन जालां. ह्या भाशेंतल्या नामांक सरळ आनी सामान्य रुपां आसतात. तशेंच नामां निश्चीत करपी उपपदां नामांक निमाणे कडेन लायतात. देखीक - ओमु - ल : द मॅन हेंच फ्रेंचींत ल् - ऑम् अशें बरयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रुमानियन साहित्य :** पंदराव्या शेंकड्यांत, धर्मसुदारणेचे चळवळीचे प्रेरणेंतल्यान कांय धर्मीक साहित्य चर्च स्लाव्हॉनिकांतल्यान रुमानियन भाशेंत अणकारीत जालें. रुमानियीन भाशेंतल्या लौकिक स्वरुपाच्या लिखाणाचो आयज उपलब्ध आशिल्लो सगळयांत पोरनो पुरावो म्हळयार १५२१ त, ब्रासॉव्हच्या न्यायाधिशाक बरयल्लें एक पत्र. तुर्कांकडल्यान आक्रमण जावपाची शक्यताय त्या पत्रांत उक्तायल्या. मौखिक परंपरेन सांबाळून दवरिल्लें रुमानियन लोकसाहित्य भरपूर आसा. तातूंत महाकाव्यां, भावकविता, बोधवादी साहित्य, नाट्यात्म संवाद हांचो आस्पाव जाता.

सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेक वालेकियांत मुद्रणाची सोय जाल्ली. १५४४ वर्सा रुमानियन भाशेंतलें धर्मतत्त्वाविशींचें पयलें मुद्रीत पुस्तक उजवाडा आयलें. सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांत धर्मीक आनी इतिहासाविशींचें साहित्य व्हड प्रमाणाचेर निर्माण जालें. सोळाव्या शेंकड्याचे निमाणे डीकन कोरेसी हाणें बरयल्लीं सुमार बावीस धर्मीक पुस्तकां सद्या उपलब्ध आसात. व्हारलाम, अल्बा यूलिया, दोसोफ्तई हांणीय धर्मीक स्वरुपाचें लिखाण केलां. दोसोफ्तईन रुमानियनांत बरयल्लें पयलें छंदोबध्द सॉल्टर (द बुक ऑफ साम्स) म्हळयार रुमानियन भाशेंत बरयल्लें पयलें काव्य. इतिहासाविशींच्या लिखाणांत ग्रिगोर युरेची, मिरॉन कॉस्तिन, यॉन नेक्यूल्स, निक्यूलाय कॉस्तिन, निक्यूलाय मायलेस्क्यू आनी डीमीट्रीये कांटेमीर हांचो आस्पाव जाता. कन्स्तांतीन कांताकुझीनो हाणें वॉलेकियाचो इतिहास बरयला.

१६८८ वर्सा रुमानियन भाशेंत बायबलाचो अणकार जालो. ह्याच काळांत रुमानियन भाशेंत अॅलेक्झांडराचें चरित्र, इसापाच्यो नितीकथा अशेंय साहित्य तयार जालें.

**अठरावो शेंकडो :** ह्या शेंकड्यांत ग्रीसीक फनॅरिऑटांच्या म्हळयार कॉन्स्टँटिनोपलांतले ग्रीक वेपारी हांचे सत्तेक लागून रुमानियन साहित्याच्या विकासांत आडखळी आयल्यो. आधुनिक ग्रीक भास ही शिश्टसंमत भास थरली. अठराव्या शेंकड्यांत रुमानियन युनिएट इगर्जेच्या धर्मोपदेशकांनी रुमानियन भास ही लॅटीन भाशेपसून जाल्या अशें मानलें. लॅटीनवादी संप्रदायाचे मुखेल प्रतिनिधी म्हणून सॅम्युएल मायक्यू - क्लेन, घेओर्ग सिनकाई आनी पेत्रू मायॉर हे उल्लेख करपासारके आसात. मायक्यू - क्लेन आनी घेओर्ग सिन्काई हांणी रुमानियन भाशेचें पयलें व्याकरण तयार केलें (Elementa Linguae daco - romanae Sive Valachicae, १७८०). पेत्रू मायॉर हाणें रुमानियन भाशेच्या लिखाणाखातीर लॅटीन वर्णमाळ आसची हे खातीर खूब यत्न केले आनी रुमानियन लोकांचो इतिहासूय बरयलो (१८१२). ह्या शेंकड्यांत बरयल्ले संतचरित्रांचे २४ खंड (minei) हे भाशाशैलीचे नदरेन म्हत्वाचे थरतात. यॉनाके व्हाकारेस्क्यू हाणें रुमानियन भाशेंत रुमानियन भाशेचें पयलें व्याकरण बरयलें (१७८७) आनी नैतिक उद्‌बोधनाचेर कविता बरयली. ताचोच पूत आलेकू व्हाकारेस्क्यू हाणें प्रेमगितां बरयलीं. यॉन बुदाई - दिलिआनू हाणें 'जिप्सी सागा' हें महाकाव्य बरयलें. यांकू व्हाकारेस्क्यू हो एक श्रेश्ठ कवी जावन गेलो.

**एकुणिसावो शेंकडो :** हो रुमानियाचो प्रबोधनकाळ. ग्यॉर्गे लाझार, ग्यॉर्गे आसाची आनी एल्यादे रादूलेस्क्यू हे ह्या काळांतले उल्लेख करपासारके विद्वान. एल्यादे रादूलेस्क्यू हो ग्यार्गे लाझार हाचो शिश्य. वॉलेकियांत रादूलेस्क्यून पयलें रुमानियन पत्र काडलें. १८२८ वर्सा ताणें रुमानियन व्याकरणावयलो आपलो ग्रंथ उजवाडायलो. ग्यॉर्गे आसाची हाणें इटालियन संस्कृतीचो स्त्रोत मॉल्डेव्हियांत हाडलो.

ताणें इतिहासीक विशयांचेर लघुकथा बरयल्यो तशेंच रुमानियन आनी इटालियन अशा दोनूय भाशांनी कविता बरयल्यो. एकात्म रुमानियाचो पयलो प्रधानमंत्री मीहाईल कॉगलनीचानू हो राजकारणी आनी इतिहासकार. ताणें मॉल्डेव्हियाचीं पोरनीं इतिवृत्तां संपादून उजवाडायलीं. सिर्लोव्हा आनी ग्रिगोर अलेक्सांद्रेस्क्यू हे कवी. अलेक्सांद्रेस्क्यून कांय बोधकथाय (फेबल्स) बरयल्यात. निकलाय बाल्सेस्क्यू हो व्हड इतिहासकार. कोस्ताक नेग्रूझ्झी हो कवी कथाकार. ताणें Aprodul Purice हें महाकाव्य रचलें. निकलाय बाल्सेस्क्यू हो कादंबरीकार. बॉगदान हाशड्यू हो भाशाशास्त्रज्ञ, इतिहासकार, कवी आनी नाटककार. अलेक्सांद्रू ओदोबेस्क्यू हो पुरातत्त्वविद्यावेत्तो आनी इतिहासकार. ताणें कांय काव्यरचनाय केल्या. व्हासीले आलेक्सांद्री हाणें सुमार ३०० कविता आनी ५० नाटकां बरयल्यांत. यॉन क्रीआंगा हो एक नामनेचो लेखक. यॉन ल्यूका कारागीएल हो सर्वश्रेश्ठ रुमानियन नाटककार. ए स्टॉर्मी नायट, ए लॉस्ट लॅटर, कार्निव्हल सिन्स ह्यो ताच्यो उल्लेख करपासारक्यो सुखात्मिका. कलॅमिटी ही ताची शोकात्मिका. यॉन स्लाव्हिसी, बार्बू देलाव्हरान्सीआ, दुलिऊ झामफिरेस्क्यू, गेओर्ग कॉस्बक हे एकुणिसाव्या शेंकड्याचे अखेरेचे साहित्यिक.

**विसावो शेंकडो :** ह्या शेंकड्याचे सुरवेक 'युथ' हे वाङ्मयीन संघटन टिटू मायोरेस्क्यू हाच्या फुडारपणाखाल रुमानियन संस्कृतीच्या संवर्धनाचें कार्य केलें. हे संघटनेच्या आदारान कांय लेखक उदयाक आयले. अलेक्सांद्र मॅसेदोन्स्की हो रुमानियन कवितेंतलो प्रतीकवादी प्रवाहाचो प्रवर्तक. तेचभशेन यॉन मिनूलेस्क्यू होय एक उल्लेख करपासारको प्रतीकवादी कवी. मीहाईल सादोव्हीनू हो कवी. ताणें कथा आनी खुबशो कादंबऱ्योय बरयल्यात. दोन महाझुजांच्या काळांत कांय रुमानियन लेखकांनी रुमानियन साहित्यांत मोलादीक भर घाली. तातूंत लिव्हिऊ रेब्रिआनू, यॉन आगारबिसिआनू, कामिल पेत्रेस्क्यु सेझार पेत्रस्क्यु ह्या कादंबरीकारांचो आस्पाव जाता. जी. कालिनेस्क्यू रुमानियन साहित्याचो इतिहास आनी कादंबऱ्योय बरयल्यात. गाला गालसिऑन ह्या कथा - कादंबरीकार आनी नागी इस्तव्हन हांचो उल्लेख म्हत्वाचो आसा.

कवींभितर सगळयांत पयलीं त्यूदोर आर्गेझी हाचो उल्लेख करचो पडटा. ताणें तात्त्विक, समाजीक, उपरोधप्रचुर आनी मोगाचेर कविता बरयल्यात. हेर उल्लेख करपासारक्या कवींभितर ल्यूशन ब्लागा, गेओर्ग तोपीर्सीनू, अलेक्सांद्र फिलिप्पीदी आनी गेओर्ग बाकोव्हीआ हांचो आस्पाव जाता.

रुमानियन साहित्याक खरो चंवर आयलो तो फॅसिस्ट राजवटींतल्यान मुक्त जातकच. ह्या काळांतल्या कवींभितर झहारिआ स्टान्सू, ई. कामीलार, एम्. बेनिउक, ई. जाबेलीनू, एम्. बानूस हांचो आस्पाव जाता. गद्यलेखकांभितर एम्. प्रेदा हाणें समकालीन बुध्दिमंतांच्या संदर्भांत बरयलें. सूतो आंद्रास, यॉन लांक्रांजन, व्हासिल रेब्रिआनू (गद्यलेखक); दान देस्लीऊ, एन्. लेबिस, ए. ई. बाकोन्स्की, व्हेरोनिका पोरंबाकू, मिहू ड्रागोमीर, नीना कासिऊन (कवी); डी. मिकू, पॉल गेओर्गेस्क्यू (समीक्षक) हे सद्याच्या शेंकड्यांतले कांय मुखेल रुमानियन साहित्यिक आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## रुसो, जाँ जॅक

**रुसो, जाँ जॅक :** (जल्म : २८ जून, १७१२, जिनिव्हा, स्विट्झर्लंड; मरण : ?).

प्रबोधन तेंपावयलो एक नामनेचो विचारवंत. ताचो बापूय घड्याळ - मेस्त्री आशिल्लो. ताच्या जल्माउपरांत कांय दिसांभितरूच ताचे आवयक मरण आयलें. उपरांत तो ताच्या मामाच्या घरा ल्हानाचो व्हड जालो. रुसोचें मुळावें शिक्षण ताच्या मामागेरूच जालें. मामाची अर्थीक स्थिती बरी नाशिल्ल्यान सुरवेच्या तेंपार ताका खूब हाल सोंसचे पडले. सोळाव्या वर्सा कॅथॉलिक



धर्मपंथाचें शिक्षण घेवपाखातीर ताका अनेसी शारांत धाडलो. थंय मादाम लुईसी द वॉरेन्स हे गिरेस्त बायलेकडेन ताची वळख जाली. वॉरेन्स हिचेकडेन तो सुरवेक विद्यार्थी आनी सेवक म्हणून आनी उपरांत तिचो मोगी म्हूण रावपाक लागलो. उपरांत वेवसायीक शिक्षण घेवपाखातीर तिणें रुसोक न्यूरीन शारांत धाडलो. पूण थंय अभ्यासांत लक्ष लागना म्हणून तो परत तिचेकडेन आयलो. त्या काळांत ताणें साबार ग्रंथ वाचून काडले आनी तांचो बारीकसाणीन अभ्यास केलो. व्हॉलतेर हो ताचो आवडीचो लेखक आशिल्लो. प्लूटार्क आनी प्लेटो हांच्या कांय ग्रंथांचो ताणें रीतसर अभ्यास केलो. १७४१ त मादाम वॉरेन्स हिचेकडेन झगडीं जावन उपरांत तो पॅरिस शारांत गेलो. थंय ज्ञानकोश तयार करपी एक संपादक डिडेरो हाचे कडेन ताची वळख जाली. १७४३त तो व्हेनीस शारांत गेलो. थंय तो एका फ्रॅंच वकिलाचो सचीव म्हूण वावुरपाक लागलो. पूण ताचेयकडेन वाद करून तो परत पॅरिसांत गेलो. १७४९ त ताणें दिजाँ ॲकॅडमीखातीर विज्ञान विकास आनी मनीस सुदारणा ह्या विशयाचेर निबंद बरयलो. ताणें आपल्या निबंदांत त्या काळाचे समाजीक विशमतेचेर खर टिका करून, विज्ञानाक लागून मनीसजिणेंत कांय सुदारणा जांवक ना अशें स्पश्ट मत मांडिल्लें. तेखातीर ताका पयलें बक्षीस मेळ्ळें. त्या यशांतल्यान ताका प्रेरणा मेळून तो मुखार चिकित्सक लेख बरोवपाक

लागलो. १७५४ त तो जिनिव्हा शारांत गेलो. त्या शाराचें नागरिकत्व मेळोवपाखातीर ताका प्रॉटेस्टंट पंथ आपणावचो पडलो. उपरांत तो लक्झेंबर्ग शारांत गेलो. थंय ताणें आपली 'ज्युली' ही कादंबरी बरयली. 'सोशल कॉण्ट्रॅक्ट' आनी 'एमिली' हे ताणें बरयल्ले ग्रंथ १७६० त उजवाडा आयले.

- कों. वि. सं. मं.

**रुस्का, एर्न्स्ट :** (जल्म : २५ डिसेंबर १९०६, हायडल्बर्ग; मरण : ३० मे १९८८, अस्तंत बर्लिन).

जर्मन इलॅक्ट्रॉनीक अभियंतो. इलॅक्ट्रॉन प्रकाशकीय ह्या विशयांत मूलभूत म्हत्वाचें कार्य केल्लेखातीर आनी पयल्या इलॅक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शकाचो आराखडो तयार केल्ले खातीर ताका १९८६ च्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराच्या अर्द्या भागाचो आनी गेर्ट बिनिंग आनी हायन्रिख रोहरर हांकां क्रमवीक्षण सुरंगी इलॅक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शकाच्या अभिकल्पाखातीर दोगांकूय मेळून उरिल्ल्या अर्द्या भागाचो भोवमान वांटून मेळ्ळो.

रुस्का म्युनिकांतल्या तांत्रिक विद्यापिठांत आनी उपरांत बर्लिन तांत्रिक विद्यापिठांत शिक्षण घेवन १९३३ वर्सा ताणें डॉक्टरेट पदवी घेतली. सुरवेक ताणें फेर्नझे - एजी (१९३४ - ३७) आनी सीमेन्स आनी हाल्सके एजी (१९३४ - ५५) ह्या कंपन्यांनी काम केलें. ते उपरांत तो बर्लिन विद्यापिठांत इलॅक्ट्रॉन प्रकाशकीय आनी सूक्ष्मदर्शकी ह्या विशयांचो बिनपगारी अध्यापक (प्रीव्हाटडोझंट; १९४९ - १९५९) आनी उपरांत १९५९ वर्सा प्राध्यापक जालो. १९५५ वर्सासावन तो फ्रिट्स हाबर इन्स्टिट्युटाच्या इलॅक्ट्रॉन मायक्रोस्कोपी इन्स्टिट्युटाचो संचालक जालो.

इलॅक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शकाचें म्हत्व आता जीवविज्ञान आनी वैद्यक ह्यासारक्या विज्ञानाच्या विंगड विंगड क्षेत्रांनी बरे तरेन प्रस्थापित जाल्लें आसा. रुस्का हाणें बर्लिन तांत्रिक विद्यापिठांत विद्यार्थी म्हणून विसाव्या शेंकड्याच्या तिसऱ्या दशकाचे अखेरेक केल्ल्या संशोधन कार्यान ह्या उपकरणाच्या विकासाक सुरवात जाली. दोन इलॅक्ट्रॉन भिंगां वापरून ताणें प्राथमिक स्वरुपाचो इलॅक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शक तयार केलो आनी ताच्या आदारान प्रतिमेचे पंदरा पट विवर्धन करून दाखयले. ह्या सूक्ष्मदर्शकाक 'पारगमन इलॅक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शक' अशें म्हण्टात. तेउपरांत रुस्का हाणें ह्या सूक्ष्मदर्शकाच्या वेगवेगळ्या तपशिलांनी नेटान सुदारणा केल्यो आनी १९३३ वर्सा आधुनिक अर्थान म्हणूं येता असो पयलो इलॅक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शक तयार केलो. उपरांत सीमेन्स कंपनींत नेमणूक जातकच रुस्का हाणें वेव्हारीक आनी व्हड प्रमाणांत उत्पादीत केल्ल्या आनी विज्ञानाच्या विंगड विंगड क्षेत्रांनी नेटान उपेगांत हाडिल्ल्या इलॅक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शकांच्या विकासांत सक्रीय वांटो घेतलो. असो पयलो सूक्ष्मदर्शक १९३९ वर्सा बाजारांत आयलो. ते उपरांत तांत्रिक सुदारणांचेवतीन आनी रुस्का हाच्या पारगमन प्रकारापरस सामक्या नव्या प्रकारचो अभिकल्प देखीक, क्रमवीक्षण सुरंगी इलॅक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शक उदयाक येवन इलॅक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शकीचो व्हड प्रमाणाचेर विकास जालो. इलॅक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शकाच्या ह्या आनी पयलींच्या विकासावस्थांनी बऱ्याचशा संशोधकांनी वांटो घेतिल्लो, पूण तातूंत रुस्काचें मूलभूत कार्य म्हत्वाचें थारलें. नोबॅल पुरस्काराभायर ताका लास्कर पुरस्कार (१९६०), चार मानादीक डॉक्टरेट पदव्यो आनी पुरस्कारांचो भोवमान मेळ्ळो. वैज्ञानीक नेमाळ्यांतल्यान ताचे शंबरांपरस चड संशोधनात्मक निबंद उजवाडा आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**रूझवेल्ट, थिओदोर :** (जल्म : २७ ऑक्टोबर १८५८, न्यूयॉर्क; मरण : ६ जानेवारी १९१९, न्यूयॉर्क).

अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांचो सव्विसावो राश्ट्राध्यक्ष आनी शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो मानकरी (१९०६).

एका सधन कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. भुरगेपणांत तो खूब अशक्त तशेंच ताका दम्याचो त्रास जातालो. तेखातीर ताका घरांतूच सुरवेचें शिक्षण दिवन ताचें शालेय शिक्षण खाजगी रितीन जालें. पिरायेच्या अठराव्या वर्सा तो हार्व्हर्ड विद्यापिठांत आयलो. १८८० वर्सा ताणें पदवी घेतली. १८८१ वर्सा ताका कायद्याची पदवी मेळ्ळी. शिक्षणावांगडाच बापायन ताच्या व्यायाम आनी खेळाची जतनाय घेतली. १८७९ वर्सा चॅस्टनट हिल्सांतले एलिस ली हे चलयेवांगडा ताचें लग्न जालें. पूण १८८४ वर्सा ताचे आवयक आनी बायलेक मरण आयलें. १८८६ वर्सा तो ताची बालमैत्रीण एडिथ कॅरो हिचेकडेन दुसरे खेपे लग्न जालो आनी ताका तीन पूत आनी दोन धुवो जाल्यो.

मजगतीं १८८१ वर्सा न्यूयॉर्क राज्य प्रतिनिधीसभेचेर तो पयले खेप वेंचून आयलो. १८८९ वर्सा अमेरिकेच्या लोकसेवा आयोगाचेर वांगडी म्हणून ताची नेमणूक जाली. पूण १८९५ वर्सा ताणें ह्या पदाचो राजिनामो दिलो. उपरांत न्यूयॉर्क सिटी पुलीस बोर्डाचें अध्यक्षपद ताचेकडेन आयलें. परतून १८९७ वर्सा ताणें ह्या पदाचो राजिनामो दिलो आनी नौदळाचें उपचिटणीसपद आपणायलें.

१८९८ वर्सा ताणें स्पॅनिश - अमेरिकन झुजांत रफ - रायडर्स हे लश्करी संघटनेचें फुडारपण केलें. १९०० वर्सा अमेरिकेचो उपराश्ट्राध्यक्ष म्हणून तो वेंचून आयलो. दुसऱ्या वर्सा राश्ट्राध्यक्ष मॅकिन्ली हाचो खून जालो आनी ताका लागून थिओदोरान राश्ट्राध्यक्ष म्हणून सोपूत घेतलो. फुडें १९०४ वर्सा तो राश्ट्राध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. राश्ट्राध्यक्षाचे आपले कारकिर्दींत ताणें बरेचशे उपेगी कायदे करून अमेरिकेची जागतिक प्रतिश्ठा वाडयली आनी अंतर्गत राजकारणांत कांय मोलादीक सुदारणा करून प्रशासन कार्यक्षम केलें. तेच भाशेन

रशिया - जपानाभितर मध्यस्थी करून तणाव उणो केलो आनी दोगांय भितरलें झूज थांबोवपाच्या कामांत फुडाकार घेतलो (१९०५). तेखातीर गरजेचे ते सगळे करार ताणें घडोवन हाडले आनी शांतिकाय प्रस्थापित केली. हाका लागून १९०६ वर्साचो शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार ताका फावो जालो. राश्ट्राध्यक्ष म्हणून आपूण सगळया वर्गांचो प्रतिनिधी आसा हे धारणेन ताणें 'स्क्वॅअर डील' ही कार्यावळ आंखली आनी राश्ट्राध्यक्षाचे अधिकार विस्तारपाचें काम हातांत घेतलें. हेखातीर भौशिक उद्देगांचेरूय कांय प्रमाणांत मर्यादा पडली. सैमीक संपत्तीची राखण आनी लोककल्याणकारी येवजण हांची बसका घाली. १९१२ वर्सा तो परतून राश्ट्राध्यक्षाच्या पदाखातीर वेंचणुकेंत तो उबो रावलो पूण ताका जैत मेळळेंना आनी तो राजकारणापसून पयस रावलो.

- कों. वि. सं. मं.

**रूझवेल्ट, फ्रँक्लीन डेलॅनो :** (जल्म : १८८२, हायड पार्क, न्यूयॉर्क; मरणः १२ एप्रिल १९४५).

अमेरिकेचो बत्तिसावो राश्ट्राध्यक्ष. नवी दिका (New Deal) हे क्रांतीकारक कार्यावळीचो उद्घाता आनी अमेरिकेच्या राश्ट्राध्यक्ष पदाचेर सेगीत चार खेपो वेंचून येवपी एकसुरो राश्ट्राध्यक्ष. १९३३ ते १९४५ मेरेन ताणें तें पद सांबाळळें. दुसऱ्या महाझुजा वेळार ताणें इश्ट राश्ट्रांवतीन म्हत्वाची भुमिका निभायली.



ताच्या बापायचें नांव जेम्स, जाल्यार आवयचें नांव सारा. ताचें मुळावें शिक्षण घराच जालें. पिरायेच्या चवदाव्या वर्सा ताणें मॅसॅच्युसॅटच्या ग्रोटोन शाळेंत प्रवेश केलो. १९०४ वर्सा ताणें हार्व्हर्ड विद्यापिठांतल्यान पदवी मेळयली. उपरांत ताणें कायद्याचो अभ्यास केलो. कायद्याचो अभ्यास करता आसतना ताणें आपल्याक अभ्यासापरस भौशिक वावराकूच चड ओंपून घेतिल्लो. १९०७ त तो बारची परिक्षा पास जालो. १९०५ त थिओदोर रूझवेल्टाची चली एलियानॉर हिचेकडेन लग्न जालो. ताका तीन चले आनी दोन चलयो आशिल्ल्यो.

भौशिक वावर करतां करतां, जुवानपणांतूच तो राजकारणावटेन गेलो. थिओदोर रूझवेल्ट हो ताचो आवडटो राजकारणी. पिरायेच्या एकुणतिसाव्या वर्सा न्यूयॉर्क राज्यांतल्यान तो सिनेटाचेर वेंचून आयलो. त्या वेळार ताणें शेतकामत्यांखातीर कांय खाशेल्यो येवजणो चालीक लावन एक कुशळ राजकारणी म्हणून नांव जोडलें. वुड्रो विल्सन राश्ट्राध्यक्ष जालो तेन्ना ताणें रूझवेल्टाची अमेरिकेच्या नौसेनेचो पालवी सचीव म्हणून नेमणूक केली. नौसेनेंत ताणें खूब सुदारणा केली. १९२० त उपराश्ट्राध्यक्षाचे वेंचणुकेंत ताचेर हार पडली. १९२१ त पोलियोच्या दुयेंसाक लागून तो हातरुणांर उरलो. पूण त्या वेळार राजकारणांत ताका क्रियाशील दवरपाचो वावर ताचे बायलेन केलो. ह्या दुखण्यांतल्यान भायर सरपाखातीर ताणें आनी ताच्या घरच्यांनी खूब तकालस घेतली. १९२८ त तो न्यूयॉर्क राज्याचो गव्हर्नर जालो. १९३२ चे निमाणेकडेन तो अमेरिकेच्या राश्ट्राध्यक्षपदाचेर पंचवीस हजार मतांनी वेंचून आयलो. ४ मार्च १९३३ ह्या दिसा सावन ताणें राश्ट्राध्यक्षाचीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. उपरांत तो १९४५ मेरेन त्या पदाचेर आशिल्लो. अमेरिकेच्या इतिहासांत एकसारको चार खेपे वेंचून येवपी तो एकसुरो राश्ट्राध्यक्ष.

१९३३ त ताणें राश्ट्राध्यक्षपदाचीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतिल्लीं, तेन्ना संवसारीक मंदीचें ल्हार पातळिल्लें. अमेरिकेचीय अर्थीक स्थिती खूब इबाडिल्ली. बेकारीचें प्रमाण वाडिल्लें. लोकांचो बँकांचेर विस्वास उरूंक नाशिल्लो. शेतम्हाल आनी उद्देगीक उत्पादनांचीं मोलां खूब देंविल्लीं. अशे परिस्थितींत सुदारणा घडोवन हाडपाखातीर रूझवेल्टान न्यू डिल (New Deal) ही कार्यावळ चालीक लायली. बँको आनी शेरबाजार हांचे वेव्हार नियंत्रीत करप, शेतकी म्हालाचो दर सुदारप, कामगारवर्गाच्या हिताखातीर कायदे करप, राश्ट्राची सैमीक संपत्ती भौशिक फायद्याखातीर उपेगांत हाडप हे सारकिले धोरणात्मक निर्णय ताणें घेतले. तेखातीर फावोशे कायदे करून ते कॉंग्रेसीकडच्यान पास करून घेतले. अशे रितीन ताणें अमेरिकेचे अर्थीक परिस्थितींत इल्ली इल्ली सुदारणा घडोवन हाडली. हाका लागून १९३६ तले वेंचणुकेंत तो परतून भौमतान राश्ट्राध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. १९३९ त हिटलरान पोलंडाचेर घुरी घाले उपरांत युरोपांत दुसऱ्या म्हाझुजाचो खखरख पातळळो. तेन्ना सुरवेक रूझवेल्टान तटस्थ रावून, फकत लोकशायी राश्ट्रांक आदार करपाचें थरयलें. पूण १९४० त फ्रांसाचेर हार पडले उपरांत कॉंग्रेसीचे मान्यतायेन ताणें इंग्लंडाक व्हड प्रमाणांत आदार दिवपाक सुरवात केली. १९४० चे निमाणेकडेन तो तिसरे खेपे राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. उपरांत इंग्लंड, रशिया हांचेवांगडा झुजाखातीर दोस्तपंगड तयार करपांत ताचो म्हत्वाचो वांटो आसा. संवसारांतले पयले अणुबॉंब, जे जपानाच्या हिरोशिमा आनी नागासाकी ह्या शारांचेर शेंवटिल्ले, ते तयार करपांत, रूझवेल्टाचोच हात आशिल्लो. तेखातीर ताणें गुपीतपणान एक खाशेली प्रयोगशाळा उबारून, व्हड विज्ञानिकांची नेमणूक केल्ली. १९४४ चे निमाणेकडेन तो राश्ट्राध्यक्ष म्हणून चवथे खेपे वेंचून आयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**रूझीचृका (रूझिका), लेओपोल्ट (स्टेफन) :** (जल्मः १३ सप्टेंबर १८८७, वूकॉव्हर, क्रोएशिया (यूगोस्लाव्हिया); मरणः २६ सप्टेंबर १९७६, झुरिक).

स्विस रसायनशास्त्रज्ञ. पॉलिमिथिलीन आनी उच्च टर्पिनांसंबंदींच्या संशोधनाखातीर ताका आनी लिंग - हॉर्मोनांविशींच्या संशोधनाखातीर जर्मन जीव रसायनशास्त्रज्ञ आडोल्फ फ्रीड्रिख योहान बूटेनांट हाका १९३९ वर्साचो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो. पूण दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून रूझीच्का हाणें तो पुरस्कार १९४५ वर्सा घेतलो.

ताचें माध्यमिक शिक्षण जर्मनींत आनी महाविद्यालयीन शिक्षण स्वित्झर्लंडांत जालें. १९१० वर्सा ताका पदवी मेळ्ळी. उपरांत ताणें जर्मनींतल्या कार्लझ्रूए इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजींत जर्मन रसायनशास्त्रज्ञ हेर्मान स्टाउडिंगर हाच्या मार्गदर्शनाखाल संशोधन करून पीएच्. डी. पदवी घेतली. १९११ - १६ ह्या काळांत ताणें पायरेथ्रमांतले कीटकनाशकांचे संरचनेचेर संशोधन केलें. १९१६ वर्सा ताणें सैमीक सुगंधी द्रव्यांचें संशोधन करपाक सुरवात केली. कस्तुरी माजर आनी कस्तुरी मृग ह्या प्राण्यांपसून मेळपी अनुक्रमान सिव्हेटोन आनी मस्कोन ह्या संयुगांचें ताणें संशोधन केलें. तातूंत ताका हीं संयुगां अनुक्रमान १७ आनी १५ कार्बन अणूंचीं वलयां आशिल्लें दिसून आयलें. ह्या काळामेरेन फकत आठ कार्बन अणुंचीं वलयां जावंक शकतात आनी तेपरस चड अणुंचीं वलयां अस्तित्वांत आसचिंनात, अशें शास्त्रज्ञांचें मत आशिल्लें. ते नदरेन रूझीच्काचें संशोधन म्हत्वाचें थारलें. कार्बन अणू ह्या संयुगांत वेगवेगळ्या प्रतलांनी रावन अशीं वलयां जावंक शकतात. अशा वलयांचें अस्तित्व ताणें संयुगांचें विश्लेशण आनी संश्लेशण करून निश्चीत केलें. ९ ते ३० कार्बन अणुंचीं वलयां तयार करूं येतात हें ताणें सिध्द केलें. ताणें बहु - आणवीय विशमवलयी संयुगां लेगीत तयार केलीं.

१९१७ वर्सा ताका स्वित्झर्लंडाचें नागरिकत्व मेळ्ळें. ताणें झुरिकांतल्या स्विस फॅडरल इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजींत स्टाउडिंगर हाचेवांगडा काम केलें. तो १९२६ - १९२९ ह्या काळांत नॅदर्लंडसांतल्या उत्रेक्त विद्यापिठांत कार्बनी रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९२९ वर्सा तो स्वित्झर्लंडाक परतून आयलो आनी झुरिकांतल्या स्विस फॅडरल इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजींत ताणें १९५७ मेरेन म्हळयार निवृत्त जायमेरेन प्राध्यापक म्हणून काम केलें. रूझीच्का आनी ताचे वांगडी हांणी टर्पिनाचेर संशोधन करून १०, १५, २०, ३० आनी ४० कार्बन अणू आशिल्लीं टर्पिनां सोदून काडलीं. टर्पिनां हीं आयसोप्रीन एककांची ($C_5H_8$) जाल्लीं आसतात, अशी आयसोप्रीन मिमांसा मांडली.

१९३० वर्सा ताणें बऱ्याचशा दादलो - लिंग हॉर्मोनांची चड करून टॅस्टोस्टॅरोनाची रेणवीय संरचना सोदून काडली आनी तेन्नाच तांचें संश्लेशणूय केलें. ताणें लिंग - हॉर्मोनांची संरचना, जीवनसत्व अ, पित्ताम्लां आनी स्टॅरॉयडां हांचेरूय संशोधन केलें.

ताका आठ मानादीक डॉक्टरेट पदव्यो, सात पुरस्कार आनी पदकां मेळ्ळीं. तो रसायनशास्त्र, जीवरसायनशास्त्र अशा २४ वैज्ञानिक संस्थांचो आनी १८ वैज्ञानिक अकादमींचो सन्माननीय आनी विदेशी वांगडी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**रूट, एलिहू :** (जल्मः १५ फेब्रुवारी १८४५, क्लिंटन, न्यूयॉर्क; मरणः ७ फेब्रुवारी १९३७, न्यूयॉर्क).

अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतलो नामनेचो कायदेपंडीत आनी शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो मानकरी (१९१२).

एलिहूचो जल्म एका सधन कुटुंबांत जालो. ताणें हॅमिल्टन महाविद्यालयांतल्यान (न्यूयॉर्क विद्यापीठ) १८६७ वर्सा कायद्याची पदवी घेतली आनी वकिली सुरू केली. १८७८ वर्सा तो क्लारा फ्रान्सिस वॉलेस हे चलयेवांगडा लग्न जालो. ताका दोन धुवो आनी एक पूत अशीं तीन भुरगीं जालीं. थिओदोर रूझवेल्ट न्युयॉर्काचो महापौर जातकच रूट ताचो मुखेल सल्लागार जालो. हाचेभायर पुलीस आयुक्त आनी न्युयॉर्काचो गव्हर्नर ह्या पदांचेरूय ताणें काम केलें. रूझवेल्टाक लागून ताका राजकारणाची गोडी लागली.

विल्यम मॅकिन्लीच्या मंत्रिमंडळांत ताची युध्द सचीव म्हणून नेमणूक जाली. उपरांत ताणें लश्करी महाविद्यालय, सैन्य संघटन ह्यो गजाली केल्यो. ताणें केल्ल्या शिफारसींक लागून १९०० वर्सा फॉरेकर विधीची कार्यवाही जाली आनी प्वेर्त रीको हे स्पेनी वसणुकेंत नागरी शासन प्रस्थापित जालें. फिलिपीन्साक अमेरिकेचें थीर शासनूय आयलें. ताणें १९०३ वर्सा सचीवपदाचो राजिनामो दिलो. उपरांत थिओदोर रूझवेल्ट राश्ट्राध्यक्ष जातकच रूट विदेशमंत्री जालो. ताणें लॅटीन अमेरिकेंतल्या देशांकडेन इश्टागतीचे संबंद घट करून त्या देशांक द हेगांतले दुसरे शांतताय परिशदेंत वांटो घेवपाखातीर विनवणी केली (१९०६). तशेंच अमेरिकेचे जपानावांगडचे संबंद सुदारपाचो यत्न केलो. ह्या ताच्या समजिकायेच्या धोरणाक लागून लॅटीन अमेरिकन देश आनी अमेरिका आनी युरोपी राश्ट्रां हांचेभितर सहकार्याची भावना निर्माण जाली. उपरांत (१९०५ - १९१५) तो रिपब्लिकन पक्षावतीन सिनेटाचेर वेंचून आयलो. १९१० वर्सा द हेगांतल्या लवाद मंडळाचेर वांगडी म्हणून ताची नेमणूक जाली. त्या काळांत झुजांत अमेरिकेच्या हिताखातीर खूब तडजोडी केल्यो आनी अमेरिकेचे कोलंबिया आनी व्हेनेझुएला हांचेवांगडा इबाडिल्ले संबंद सुदारपाचो यत्न केलो विल्यम बकनान जो एकचार मुखार केलो ताची बसका रूट हाणें घाली. लॅटीन अमेरिका आनी युरोपांतल्या तेवीस देशांकडेन स्वतंत्र रितीन कबलात करून ताणें समजिकाय, शांतताय आनी सहकार्याचो पुरस्कार केलो. तेच भाशेन जपानी लोकांक वांशिक भेदभावाची अमेरिकेंत जी वागणूक मेळटाली तेविशीं समझोतो केलो आनी हो कठीण प्रस्न सोडयलो. कार्नेगी एण्डाउमेंट फॉर इंटरनॅशनल पीस ह्या प्रतिशठानाचो तो अध्यक्ष (१९१० - १९२५) आशिल्लो. ह्याच अदमासाक आंतरराश्ट्रीय

लवाद न्यायालयांत स्थायी वांगडी पदाचेर ताची नेमणूक जाली. ताणें ग्रेट ब्रिटन आनी अमेरिका हातुंतल्या उत्तर अटलांटिक दर्यादिगेवयले नुस्तेंमारीचो संघर्श सोंपयलो. ताच्या शांतताय कार्याचो भोवमान शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार दिवन जालो. राश्ट्रसंघाचे घडणेंत ताचो मोलादीक वांटो आसा. शस्त्रकपातीचे १९२१ चे आंतरराश्ट्रीय परिशदेंत राश्ट्राध्यक्षांचो खास प्रतिनिधी म्हणून तो हाजीर आशिल्लो.

ताचें स्फूट लिखाण रॉबर्ट बेकन आनी जेम्स स्कॉट हांणी कलॅक्टेड स्पीचिस अँड पेपर्स ऑफ एलिहू रूट ह्या माथाळयान आठ खंडांनी उजवाडायलां (१९२६ - १९२७).

- कों. वि. सं. मं.

**रूबिया, कार्लो :** (जल्म : ३१ मार्च १९३४, गोरित्स्या, इटली).

इटालियन भौतिकीविज्ञ. जिनीव्हांतल्या युरोपीयन ऑर्गनायझेशन फॉर न्युक्लिअर रिसर्च (CERN) हे संघटनेचे प्रयोगशाळेन चालीक लायिल्ल्या आनी जातुंतल्यान अणुकेंद्रीय दुर्बळ परस्परक्रियेच्या W आनी Z ह्या क्षेत्रवाहक कणांचें अस्तित्व सिध्द जालें त्या व्हड प्रकल्पांत निर्णायक म्हत्वाची कामगिरी केल्लेखातीर रूबियाक सायमन व्हॅन डर मेर हाचेवांगडा १९८४ च्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो.

पीसा विद्यापिठांत शिक्षण घेवन ताणें १९५७ वर्सा डॉक्टरेट पदवी मेळयली. दोन वर्सां पीसा हांगाच अध्यापन करतकच तो न्यूयॉर्कच्या कोलंबिया विद्यापिठांत संशोधक अधिछात्र म्हणून गेलो. १९६० वर्सा रोम विद्यापिठांत ताची नेमणूक जाली आनी उपरांत १९६२ वर्सा तो सर्नांत (CERN) वरिश्ठ भौतिकीविज्ञ जालो. १९७२ वर्सा हार्व्हर्ड विद्यापिठांत भौतिकीच्या प्राध्यापकपदाचेर नेमणूक जातकच ताणें हार्व्हर्ड आनी सर्नांत दोनूय कडेन ताणें आपलो वेळ दिलो. जानेवारी १९८९ वर्सा सावन पांच वर्सांखातीर सर्नचे प्रयोगशाळेचो महासंचालक म्हणून ताची नेमणूक जाली.

सर्नचे प्रयोगशाळेंत W आनी Z कणांच्या लागिल्ल्या सोदाक लागून दुर्बळ परस्परक्रियेच्या स्वरुपासंबंदींच्या संशोधनांतलो एक म्हत्वाचो पांवडो मेळ्ळो. ह्या कणांक मध्यस्थ सदिश बोसॉन अशें म्हण्टात. १९८३ वर्सा W आनी Z ह्या कणांचें अस्तित्व उकतें जालें. विद्युत् चुंबकत्व आनी दुर्बळ प्रेरणा हीं एकेच तरेचे परस्पर क्रियेचीं आविश्कारणां आसात अशें सांगपी सिध्दांत मांडिल्लेखातीर शेल्डन ग्लासहौ, स्टीव्हन वाइनबर्ग आनी अब्दुस सलाम हांकां १९७९ वर्साचो भौतिकीचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. ह्या सिध्दांताचेर प्रभाव घालपी प्रयोगसिद्द सोदांतलो एक सोद रूबिया हाच्या मार्गदर्शनाखाल सर्नांत १९७३ वर्सा काम करपी शास्त्रज्ञांच्या एका पंगडान लायिल्लो. ह्या पंगडान उदासीन दुर्बळ प्रवाहांचो सोद लायलो.

W आनी Z कणांच्या सोदाखातीर १९७६ वर्सा सर्नांतलो प्रकल्प सुरू जालो. रूबिया आनी ताच्या दोन वांगड्यांनी १९७६ वर्सा एका भौतिकीविशींच्या आंतरराश्ट्रीय परिशदेंत मांडिल्ली नवी कल्पना वापरल्यार हो प्रकल्प जैतवंतपणान चालीक लावं येता अशें रूबिया हाणें सर्नच्या वेवस्थापनाक पटोवन दिलें. हे कल्पनेप्रमाण W आनी Z हांचे निर्मितीखातीर आवश्यक आसपी ऊर्जा तीव्र प्रवेगित प्रोटॉन आनी प्रतिप्रोटॉन हांच्या आघातांक लागून निर्माण जातली. ह्या आघातांभितर नेटाच्या कणांची गतिज ऊर्जा मुक्त जावपावांगडा द्रव्य (प्रोटॉन) आनी प्रतिद्रव्य (प्रतिप्रोटॉन) हांच्या परस्पर नश्टीकरणांतल्यान निर्माण जावपी ऊर्जा मुक्त जातली. रूबिया हाणें सर्न हांगाच्या व्हड प्रोटॉन सिंक्रोटॉनांत कांय बदल करून तातूंत प्रोटॉन आनी प्रतिप्रोटॉन शलाकांच्या आघातांचे प्रयोग करूंक मेळटले अशें सुचयलें.

वेगवर्धकांतलो पयलो आघात १९८१ वर्सा घडोवन हाडलो. अपेक्षित W आनी Z कणांच्या अभिज्ञानाखातीर आनी तांचे गुणधर्म मेजपाखातीर रूबिया हाणें आपल्या वांगड्यांच्या आदारान एका प्रचंड अभिज्ञातकाचो अभिकल्प तयार करून ताची उबारणीय केली. १९८३ वर्सा ह्या अभिज्ञातकाच्या आदारान W आनी Z कणांचें यशस्वीपणान अभिज्ञान केलें. ह्या प्रयोगांतले म्हायतीची चड विस्कटावणी करतकच रूबियान $W^{+}$ कणांच्या कांय क्षय प्रक्रियांनी नव्या क्वार्कच्या अस्तित्वाचो सबळ पुरावो मेळिल्ल्याचो निश्कर्श १९८४ वर्सा काडलो.

रूबिया हाची १९८५ वर्सा सर्नचे समितीचो वांगडी आनी १९८६ वर्सा पापाल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचो वांगडी म्हणून निवड जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**रूय :** (मराठी : रुई; हिंदीः अक, मदार; गुजरातीः आकडो; कन्नडः एकमेले, अर्कगिड, यक्क; संस्कृतः अर्क; इंग्लीशः जायंट मिल्कवीड; लॅटीनः कॅलोट्रॉपिस जायगँशिया; कूळः ॲस्क्लेपीएडेसी).

सुमार २ -३ मी. उंचायेचें, जायतीं वर्सां जगपी झोंप. हें झोंप पडंग आनी रूक्ष जाग्यार अशेंच वाडटा. भारतांतल्या उश्ण वाठारांत तशेंच श्रीलंका, मलाया, दक्षिण चीन, आफ्रिका आदी वाठारांनीय हें झाड दिश्टी पडटा. ह्या झाडाच्यो कॅलोट्रॉपिस हे प्रजातींत स जाती आसून भारतांत तातुंतल्यो फकत तीन जाती मेळटात. रूयेची साल हळदुवसार धवी आसून खोडार सादीं, एकामेकांसामकार, दाट, ल्हान देंठाचीं लांबशीं वांटकुळीं पानां आसतात. पानांचे खांचींत चवरां वरी घोंस येतात आनी ताचेर जांबळसार वास नाशिल्लीं फुलां येतात. उपरांत ९ ते १० सेंमी. लांब पेटिका फळां येतात. तातूंत पिंगशो ६ x ५ मिमी. चेपट्यो, भरपूर अशो लांबशो वांटकुळयो बियो आसून फळ सुकतकच वाऱ्यान त्यो सगळेकडेन पातळटात. फुलांची संरचना आनी वनस्पतीचीं हेर शारिरीक लक्षणां अस्क्ले पीएडेसी वा रूय कुळांत वर्णन केल्लेवरी आसतात.

भारतीय वैदिक साहित्य आनी वेदोत्तर वाङ्मय आदी संस्कृत ग्रंथांनी 'अर्क' ह्या नांवाना रूयेचो उल्लेख आयला.

ह्या झाडाच्या मुळाची साल घाम हाडपी, कफ भायर काडपी आनी ओंकारो हाडपी आसून रक्तामांश आनी हस्तिपादरोग हांचेर उपेगी थरता. पानांचो उपेग मासिक पाळयेचो जोर येता तेन्ना जाता. फुलांचें चूर्ण थंडी, कफ, दमो, अपचन आदींचेर दितात. ह्या झाडाचो दीख कातडी कमोवपाखातीर वापरतात. खोडाचे सालीपसून धागे आनी लांकडापसून कोळसो मेळयतात.

हिंदू धर्मशास्त्रांत हनुमानाची पुजा रूयेच्या पानांनी करची अशें सांगलां, शेनवारा हनुमानाक रूयेचीं फुलां ओंपतात. हिका सूर्यकन्या अशेंय म्हण्टात. ग्रहयज्ञांत सुर्याच्या हवनाखातीर रूयेच्यो समिधा वापरतात. देवाचे पुजेंत पत्रेंत हिचो आस्पाव आसा. हरितालिकेच्या उपासांत बायलो रूयेचें पान चाटून उपास सोडटात. दर शेनवारा हनुमानाक रूयेच्या इकरा पानांची माळ ओंपतात. ताका लागून शनीची बादा पयस जाता असो समज आसा. कांयकडेन लग्ना वेळार व्हंकलेन न्हवऱ्याक घालपाची माळ रूयेच्या फुलांची करपाची प्रथा आसा.

दादलो पयल्यो दोन बायलो मरतकच तिसरे खेपे लग्न जावपाचें आसल्यार पयलीं रूयेकडेन लग्न जाता. विधवा बायलेक पयलेच खेपे लग्न जावपी न्हवऱ्याकडेन लग्न जावपाचें आसल्यार ताका पयलीं रूयेकडेन लग्न जावचें पडटा. ताका लागून तो बिजवर वा विधूर जाता असो समज आसा. बायलेक भुरगें जावन तें जगना जाल्यार घोवान रूयेकडेन लग्न जाल्यार तें भुरगें जगता असो कातकऱ्यांमदीं समज आसता. जायत्या आदिवासी जातींनी फकत लग्न जाल्ल्या दादल्याचेंच दहन करतात. कोणूय दादलो लग्नापयलींच मेलो जाल्यार ताचें आदीं रूयेकडेन लग्न करतात आनी मागीर ताका लासतात.

गांवांत रोगाची धाम पातळळयार वा कोणाच्याय आंगांतल्यान भूत काडपाचें आसल्यार हनुमानाची पुजा करून ताच्या गळयांत रूयेच्या एकशें आठ पानांची, फुलांची वा फळांची माळ घालपाची चाल आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रेगु, जिल्बेर्त :** चंदीगढचो गोंयकार धर्मगुरू. ताचो मूळ गांव पर्रा - बार्देस. धर्मीक शिक्षण घेतले उपरांत १९५३ वर्सा तो पाद्री जालो. १९७१ वर्सा धर्मगुरू म्हणून ताची नेमणूक जाली. उपरांतच्या काळांत तो डायोसीसचो वावर करूंक लागलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मों. रेगु सेबास्त्यांव :** (जल्म : १६९९, नेवरें; मरणः १७६५).

बेडनोरचो गोंयकार पाद्री आनी नामनेचो धर्मप्रचारक. बेडनोर इगर्जेचो पाद्री आसतना ताणें थंय एक कपेल बांदलें. उपरांत तो मंगळूराक पाद्री म्हूण गेलो. कानाराच्या मिशनाचो तो व्हिकार फोरान (Vicar Forane) आशिल्लो. उपरांत तो प्रवचन सभेचो वांगडी जालो. ताणें सिलोनचो (श्रीलंकेचो) धर्मोपदेशक फादर जोसेफ व्हाज हाचें चरित्र आनी हेर धर्मीक साहित्य बरयलें. उपरांत ताणें प्रवचनकाराचें काम सोडून १७६१ ते १७६३ काळांत तो धर्मीक कार्यालयांत वावर करूंक लागलो.

- कों. वि. सं. मं.

**रेग्युलेटिंग ॲक्ट :** ईस्ट इंडिया कंपनीच्या धोरणाचेर आनी कारभाराचेर नियंत्रण दवरपाखातीर ब्रिटीश सरकारान १७७३ त मंजूर केल्लो कायदो. वेपाराच्या निमतान पुर्तुगेजांनी हिंदुस्थानांत येवपाचो जलमार्ग सोदून काडले उपरांत वेपार करपाखातीर आनी कांय खास सवलती मेळोवन घेवपाखातीर सोळाव्या - सतराव्या शेंकड्यांत कांय युरोपी वसणूककार हिंदुस्थानांत आनी आशियेच्या हेर देशांनी आयले. तातूंत ब्रिटीश वेपाऱ्यांचोय आस्पाव आशिल्लो. हिंदुस्थानांत वेपार करपाखातीर कांय ब्रिटीश वेपाऱ्यांनी १६०० त ईस्ट इंडिया कंपनीची स्थापणूक केल्ली. ते कंपनीन वेपारी सवलती घेवपाखातीर ब्रिटीश सरकाराकडल्यान हिंदुस्थानांतले कांय प्रदेश आनी हक्क मेळयले. सरकारी मान्यताय मेळळे उपरांत कंपनी आपलो प्रादेशिक विस्तार वाडयत रावली. कांय तेंपाउपरांत कलकत्ता, मुंबय आनी चेन्नई अशे तीन प्रांत कंपनीच्या प्रभावाखाला निर्माण जाले. तातुंतल्या बंगाल प्रांतांत कांय गैरप्रकार जावपाक लागिल्ल्यान कंपनीक खूब नुकसाण जालें. तें नुकसाण भरून काडपाखातीर कंपनीन ब्रिटीश सरकाराकडेन रीण मागलें. तेन्ना ते संदीचो फायदो घेवन ब्रिटीश पार्लमेंटान कंपनीच्या वाडट्या गैरकारभाराचेर नियंत्रण दवरपाखातीर १७७३ त रेग्युलेटिंग ॲक्ट मंजूर केलो.

रेग्युलेटींग ॲक्टान केल्ल्यो तजविजो अशो - बंगालचो गव्हर्नर हो गव्हर्नर जनरल जालो. बंगाला खेरीज मुंबय आनी चेन्नई प्रांतांचेरूय ताचें नियंत्रण उरतलें अशें थारलें. त्या गव्हर्नर जनरलाक पालव दिवपाक चार सल्लागारांचें मंडळ तयार केलें. ते तजवीजे प्रमाण गव्हर्नराक निर्णायक मत दिवपाचे अधिकार आशिल्ले. कलकत्ता नगरांत एक सर्वोच्च न्यायालय स्थापित केलें. कंपनीच्या भागिदारांतले आदल्या चोवीस संचालकांतले, हाचे फुडें फकत स संचालक वेंचून काडटले. संचालकांची मुदत एका वर्साचे सुवातेर चार वर्सां वाडयली. मत दिवपाचे हक्क चारशे पाऊंड सोडून शंबर पाऊंड मोलाचें भाग भांडवल घेवप्यांक मेळळें.

रेग्युलेटींग ॲक्टाक लागून ब्रिटीश सरकाराक कंपनीच्या कारभारांतल्या गैरप्रकाराचेर नियंत्रण दवरपाची संद मेळ्ळी. कांय खाजगी पंगडांचो कंपनीचेर जो शेक आशिल्लो तो ना जालो. त्या ॲक्टाक लागून तिनूय प्रांतांतल्या धोरणांत सारकेपण आयलें. त्या ॲक्टावरवीं गव्हर्नर जनरलाचेर चड जापसालदारकी सोंपयल्ली. १७८४ त हो कायदो बदलून, ताचे सुवातेर पिट्स इंडिया ॲक्ट मंजूर केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**रेडिओ (प्रक्षेपण) :** ध्वनी प्रक्षेपणाच्या माध्यमांतल्यान उगमस्थाना वयले कार्यक्रम वेगवेगळ्या सुवातींचेर एकमार्गी पद्दतीन आयकुपाची प्रक्रिया.

**इतिहास :** १९०६ वर्सा अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतलो पयलो रेडिओ कार्यक्रम आर्. ए. फेसंडेन हाणें ब्रांट रॉक मॅसॅच्युसेट्सांत आपल्या प्रायोगिक रेडिओ केंद्रांतल्यान प्रक्षेपित केलो. पयल्या महाझुजाच्या निमाण्या काळांत रेडिओवयले लश्करी निर्बंध उणे जातकच उमेदी लोकांनी जायतीं प्रायोगिक केंद्रां स्थापन केल्लीं. पूण ह्या प्रक्षेपणाचो पल्लो कांय किलोमीटरांमेरेनूच आशिल्लो आनी ते आयकुपाक लागपी सामुग्री कांय जाणाकडेनूच मर्यादीत आशिल्ली. पूण १९१६ वर्सा डेव्हिड सारनॉफ हाणें रेडिओ ग्राही दर एका घरांत पावोवपाक हातभार लायलो.

२ नोव्हेंबर १९२० दिसा पित्सबर्गांतल्या वेस्टिंगहाऊस कॉर्पोरेशनाच्या के डी के ए (KDKA) चेर पयल्या वेपारी रेडिओ केंद्रान अमेरिकेच्या अध्यक्षीय वेंचणुकांचो निकाल प्रक्षेपीत केलो. तेन्नाच्यान अशीं वेपारी केंद्रां स्थापन जावपाक चालना मेळ्ळी. १९२१ वर्स म्हळ्यार वट्ट आठ वेपारी केंद्रां प्रक्षेपणाचो वापर करतालीं. ह्या सुरवेच्या काळांत प्रक्षेपणाचो खर्च भागोवपाखातीर रेडिओ ग्राही साधनाचें उत्पादन आनी तांची विक्री तशेंच रेडिओ प्रक्षेपण हे जाहिरातींखातीर माध्यम म्हणून वापरप अशीं दोन संभाव्य साधनां उपलब्ध जालीं. १९२२ चे अखेरेक सुमार ५६४ प्रक्षेपण केंद्रांक परवाने दिले.

१९२२ वर्सा रेडिओ प्रक्षेपणांत दूरध्वनी सरयांचो उपेग करून जाळें (नॅटवर्क) ही नवी कल्पना प्रचारांत आयली. १९२६ वर्सा नॅशनल ब्रॉडकास्टिंग कंपनीन सदच्या कार्यक्रमाचे अशे तरेन जोडिल्ल्या रेडिओ केंद्राचें जाळें प्रस्थापीत केलें.

पयल्या म्हाझुजा उपरांत ब्रिटनांत रेडिओ प्रक्षेपणाचो विकास वेगळेच तरेन जालो. वेपारी संस्थांनी प्रक्षेपण हें चड करून संदेश वहनाचें साधन अशें मानलें. १९१९ वर्सा अटलांटीक म्हासागराचे पलतडीन मनशाच्या आवाजाचें प्रक्षेपण करपांत यश मेळ्ळें. तेन्ना एसेक्साच्या चेम्सफर्डच्यान सदांच अर्दवराचे दोन कार्यक्रम प्रक्षेपण करपाखातीर स किलोवॉट शक्तीचो एक मनोरो उबारलो. तो वेळ मेरेन खंयच्याच प्रक्षेपणाक अधिकृत तरेन मान्यताय नाशिल्ली. पूण फुडें सदच्या कार्यक्रमाच्या प्रक्षेपणाची मागणी वाडिल्ल्यान मार्कोनी कंपनीक दर सप्तकाक सुमार १५ मिनटां प्रक्षेपण करपाचो अधिकार दिलो. अशे तरेन पयलें अधिकृत प्रक्षेपण १४ फेब्रुवारी १९२२ दिसा चेम्सफर्ड लागसारच्या रिटलच्या केंद्रांतल्यान केलें.

अमेरिकेंतल्या पिटस्बर्गांतलें आद्य प्रक्षेपण केंद्र सुरू जावचेआदीं नेदर्लंडसांतल्या हेगा सावन नेमान प्रक्षेपण जावपाक सुरू जाल्लें आनी तें नोव्हेंबर १९१९ - १९२४ मेरेन चालू आशिल्लें. कॅनडांत मॉंट्रियलच्यान १९२० वर्सा, ऑस्ट्रेलियांत मेलबर्नच्यान १९२१ वर्सा आनी सिडनीच्यान १९२३ वर्सा नेमान रेडिओ प्रक्षेपणाक सुरवात जाली. न्युझीलंडांत १९२७ वर्सा रेडिओ ब्रॉडकास्टिंग कंपनीची स्थापना जाली. डॅन्मार्कांत १९२५ वर्सा अधिकृत तरेन स्टेट ब्रॉडकास्टिंग सिस्टिम सुरू जाली. जाल्यार फ्रांसांत १९२२ वर्सा आयफेल मनोऱ्यावयल्यान नेमान प्रक्षेपण जावंक लागलें. त्याच वर्सा रशियेंतलें पयलें केंद्र मॉस्कोंत स्थापन जालें. १९२३ वर्साचे अखेरेक बेल्जियम, चेकोस्लोव्हाकिया, जर्मनी, स्पेन आदी देशांनीय रेडिओ केंद्रां स्थापन जालीं. तशेंच फिनलंड, इटली ह्या देशांनी १९२४ त जाल्यार नॉर्वे, पोलंड, मेक्सिको आनी जपान ह्या देशांनी १९२५ वर्सा रेडिओ प्रक्षेपणाक सुरवात केली. भारतांत संघटीत रेडिओ प्रक्षेपणाक १९२६ वर्सा सुरवात जाली.

**प्रक्षेपणाचें तंत्र :** ध्वनी प्रक्षेपण प्रक्रियेंत साधन संच आनी कार्यमान ह्या दोन भौतिक घटकांचो आस्पाव जाता. कलाघर, ध्वनी - ग्राहक, प्रेशक आनी आकाशक हे घटक एकत्रीतपणान विद्युत् चुंबकीय तरंगांची निर्मिती, विरूपण आनी समान गती सर्वदिशी प्रारण करतात. उगम स्थानाच्या परिघांत वेगवेगळ्या सुवातींचेर आशिल्ले ग्राही प्रारीत तरंगावरवीं मूळ कार्यक्रमाचें पुनरुत्पादन करतात.

कलाघरांत निर्माण जाल्ले कार्यक्रम वा भायल्या कार्यक्रमांच्यो तयार केल्ल्यो चुंबकीय मुद्रण फिती मुखेल नियंत्रण कक्षाचे देखरेखीखाला संदेशवाहनावरवीं प्रेषकांक वितरण जातात. ह्या वितरणाखातीर थळाव्या आकाशकाची (मनोऱ्याची) मदत जाता. प्रेषकावरवीं कार्यक्रमाचें पुनरुत्पादन जावन ग्राहीकडेन मूक कार्यक्रम परिवर्तीत जातात.

रेडिओ प्रक्षेपणांत सागरी रेडिओ, वैमानीक रेडिओ, चल रेडिओ, सैनिकी रेडिओ अशे उपेगानुसार प्रकार आसात.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : आकाशवाणी

**रेडो :** रेडो हो 'बोव्हायन' (Bovine) वर्गांतलो प्राणी. हो नर आसून 'म्हस' (She - buffalo) ही मादी. ही जात रंगान काळी आसून तांची चामडी दाट आसता. तांच्या आंगार खूब उण्या प्रमाणांत ल्हंव

आसता. रेड्याची तकली म्हशीचे तकलेपरस मोटी आसून शिंगां जाड आनी मोटीं आसतात. सादारणपणान रेड्याची लांबाय २ मीटर आनी उंचाय ४ ते ४१/२ फूट आसता. रेड्याचें वजन उण्यांत उणें २५० - ३०० किलो आनी चडांत चड ६०० - ७०० किलोमेरेन आसता. ताची पिराय १५ ते १६ वर्सां मेरेन आसता.

भारत, मलेशिया, इटली, ऑस्ट्रेलिया, हंगेरी ह्या देशांनी रेड्यांच्यो जाती आसात. पूण भारतांत रेड्यांचें प्रमाण चड आसा. तातूंत सुरती, मुऱ्हा, जाफराबादी, पंढरपुरी अशो वेगवेगळ्यो जाती आसात. तातुंतली सुरती ही जात गुजरात राज्यांत; मुऱ्हा, जाफराबादी ह्यो उत्तर भारतांत आनी पंढरपूरी ही जात महाराष्ट्रांत मेळटा. हेर राज्यांनी आनी वाठारांनी दिसपी जात ही ते ते सुवातेची थळावी जात आसता. ताची वर्गवारी अमुकूच अशे एके नसलीची केल्ली ना. गोंयांत चडशा भागांनी सुरती आनी थळाव्या जातींचीं जनावरां पळोवंक मेळटात.

आफ्रिकेंत रेड्याच्यो दोन मुखेल जाती आसात - (१) केप रेडो (२) बौना रेडो (Dwarf buffalo). तशेंच एशियेंत रेड्याच्यो तीन जाती दिसतात - (१) भारताचो अरना रेडो (२) फिलिपायनाचो टमराऊ (३) सेलबीज.

रेड्याचो उपेग शेताखातीर, बियाखातीर (प्रजोप्तादन) आनी धिरयांक करतात. लांकडां ओडून व्हरपाक रेड्यांचो उपेग करतात. दुदाळ म्हशींची पैदास करपाक बरे नसलीचे रेडे पोसून तांचो बियाक वापर करतात. हे रेडे सभावान खूब रागीट आसतात. बरे जातीच्या रेड्यांक खूब खावड जाय पडटा. धिरयांखातीर रेडे तयार करपाक खूब कश्ट घेवचे पडटात. अशे हे रेडे बळिश्ट आनी पिंडान मोटे आसतात.

सादारणपणान चार वर्सांचे पिरायेचेर रेडो पिरायेंत येता. ज्या रेड्यांचो उपेग शेतांत वा गाडयेखातीर करपाचो आसता, त्या रेड्यांचें निर्बिजीकरण करतात. ताका लागून ते सभावान रागीट जायनात. तांचो कामाखातीर खूब वापर करूंक मेळटा. ह्या जनावरांची ल्हान पिरायेसावन वेगवेगळया दुयेंसांपसून राखण करची पडटा. ल्हान आसतना तांकां दंतांची पिडा आसता. तेच भाशेन वेगवेगळया रोगांचेर तांकां वासिनां दिवचीं पडटात.

भारतांतल्यान रेड्याच्या मांसाची निर्यात व्हड प्रमाणांत जाता. परदेशांतल्यान ह्या मांसाक खूब मागणी आसता. ताचे चामडेपसून वस्तू तयार करतात. शिंगांपसून सोबायेच्यो वस्तू तशेंच हाडांपसून 'बोनमील' हें सारें तयार करतात. एका रेड्यापसून दिसाक सरासरी १५ - २० कील शेण मेळटा. ह्या शेणाचो वापर सारें म्हणून झाडांक, शेताक जाता. तशेंच शेणाचो वापर गोबरगॅसाकूय करतात.

**संस्कृतीक संदर्भ :** रेड्याक यमाचें वाहन अशें मानतात. यमावांगडा रेड्याचीय मूर्त कोरांततात. तेचप्रमाण दुर्गेच्या पांयांसकयल रेड्याची आकृती आसता. देवीन केल्ल्या महिषासुराच्या वधाचें हें प्रतीक अशें समजतात.

आश्विनांतल्या नवरात्रांनी देवीमुखार रेड्याचो बळी दिवपाची चाल आशिल्ली. तेच भाशेन दक्षिणेंत कांय ग्रामदेवतांकूय रेड्याचो बळी दिताले. द्राविडी पुजेंत महिषबळीक चड म्हत्व आसा.

रेड्यांच्यो धिरयो लावप हें पुर्विल्लें मनोरंजनाचें एक साधन आशिल्लें. राजा लोक हेखातीर खाशेले रेडे सांबाळून तयार करताले. पंजाब, काठीयावाड ह्या प्रदेशांतल्या रेड्यांची धिरयांखातीर खूब नामना आशिल्ली.

कांय आदिवासी समाजांनी रेड्यांक खूब म्हत्व आसता. गोंड लोकांभितर मनीस मरतकच ते परधानांक रेडो बळी दितात. रेडो हें परधान जातीचें कुलचिन्न. कांय सुवातींनी गांवांत रोग आयल्यार रेड्याची पुजा करतात. रेडो हें यमाचें वाहन असो समज हे पुजेफाटल्यान आसा.

- एच्. के. मालवीय

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : गवो, धिरयो

**रेड्डी :** आंध्र प्रदेश आनी म्हैसूर वाठारांतल्या शेतकऱ्यांची एक जात. राट म्हळयार राजा ह्या उतराचो रेड्डी हो अपभ्रंश आसून, रेड्डींचो संबंद राश्ट्रकुटांकडेन जोडटात. रेड्डीचे जायते पोटभेद आसून तातूंत वेलनाटी, पाकनाटी, मोट्टी, कम्प, कापू पेडकाना येल्लम्म, कोडटी हे मुखेल आसात.

तेलुगू ही तांची आवयभास आसून जे लोक म्हैसूर वाठारांत पयलींसावनूच रावन आयल्यात ते वा लिंगायत रेड्डी मात कन्नड भासूच उलयतात.

कम्म रेड्डी हे वैश्णव आसून, वेलनाटी हे लिंगायत आसात. हेर सगळे रेड्डी हे शैव आनी वैश्णव अशा दोनूय देवांक भजतात. हाचेभायर वेंकटरमण, येल्लम, मल्लम्म, मुनिदेव, गुरूमूर्ती, सूर्य आदी जायत्या देवांकूय ते भजतात.

लिंगायत रेड्डी सुयेर पाळिनात, पूण कम्म रेड्डी तीन दीस सुयेर पाळटात. गुरवार बायलेचे पयले दोन बाळंटेर कुळाराच जातात. नवजात अर्भकाचे बोंबले भोंवतणीं डाग दिवन मागीर नाळ कापतात. घरामुखार फोंड मारून तातूंत वार पुरतात. सातव्या, णवव्या वा इकराव्या दिसा ह्याच फोंडार बसून बाळंतीण न्हाता. तिका न्हावपाखातीर कळसुलीभर उदक, रिंठो, हळद आदी वस्तू गांवांतल्या रेड्डी घराण्यांतल्यान मेळटात. तिचें न्हावन जातकच त्याच जाग्यार खाट उरफाटी करून धुयतात आनी तिची पुजा करतात. उपरांत ती खाट घरांत व्हरून तिचेर बाळंतीण न्हिदता. त्या वेळार जमिल्ल्या सगळया ल्हान भुरग्यांक न्हाणयतात आनी फोव वांट्टात. तेचपरी

जमिल्ल्या बायलांक हळदकुकूम आनी विडे दितात. उपरांत दुसऱ्या घरांतलें पाळणें मागून हाडून तातूंत भुरग्याक न्हिदयतात. त्याच दिसा वा म्हयनो जावचे आदीं खयंच्याय दिसा भुरग्याचें नांव दवरतात. चलयेचें नांव तिचो मामा दवरता.

तिसऱ्या, सातव्या वा बाराव्या म्हयन्यांत भुरग्याचें जांवळ करतात. तेखातीर झाडींत वा दोंगराच्या मुळसांत आशिल्ल्या मुनिश्वराची पुजा करतात आनी ताका निवेदूय दाखयतात. चडशा सगळ्या रेड्डी लोकांमदीं जातीनेमांआड वागप्यांक ख्यास्त करपाखातीर 'कट्टेमणे' वा कोर्ट आसताले. तांच्या अध्यक्षाक येजमान म्हण्टात. ताच्या हाताखाल भंडारी नांवाचो नोकर आसता. कोडाटी रेड्डींच्या कट्टेमणे मुखेल्याक गौड अशें नांव आसा.

न्हवऱ्याक आपले व्हडले भयणीच्या, मामाच्या वा आत्याचे चलयेकडेन लग्न जावंक मेळटा. रेड्डींच्या सगळ्या पोटजातींनी लग्नविधी सारकेच आसतात. लग्नाआदीं साकरपुडो जाता. तेखातीर चल्याचे आवय - बापूय आपल्या सोयऱ्यांक घेवन चलयेगेर वतात. वतना आपले वांगडा, साडी, वस्त (भांगर) आनी मंगलकार्याच्यो वस्तू घेतात. ६४ वा ५०० शेर तांदूळ, १६ वा ८० शेर दाळ, ५ वा १६० शेर तूप, ५ शेर गोड, १० वा २० शेर सुपाऱ्यो आनी विड्याचीं पानां ह्यो वस्तू सुखमंचींत आस्पावतात. चलयेच्या घरा वतकच देवामुखार दिवो लायतात. हो दिवो संथपणान तेवत रावलो आनी पालीचें चुकचुकप आयकूंक आयलें जाल्यार चल्याचो बापूय आपलो येवपाचो हेत परगटायता. चलयेच्या बापायक हो संबंद पसंत आसल्यार तो पुरोयताक आनी सोयऱ्यांक आपयता. उपरांत चल्याची आनी चलयेची पत्रिका जुळयतात. पत्रिका जुळ्ळयार चल्याचो बापूय चलयेक साडी आनी वस्त दिता. चली न्हावन दिल्ली साडी आनी वस्त घालून गणपतीची पुजा करता. उपरांत चल्याची आवय तिची होंट भरता. सुखमंचीच्यो सगळयो वस्तू शेंदरेर मांडून तांची पुजा करतात आनी त्यो वस्तू चलयेच्या बापायक दितात. अशें करतकच लग्न थारलें अशें समजतात. उपरांत दोन कागदांचेर न्हवरो - व्हंकलेचें नांव आनी लग्नाचो म्हूर्त बरोवन पुरोयत ताची पुजा करता आनी दोनय पक्षांक दिता. मागीर सगळ्यांक पानसुपारी दितात. रातचें वा दुसऱ्या दिसा चलयेची आवय - बापूय न्हवरेकारांक जेवण घालतात.

लग्नाच्या दोन - तीन दिसां आदीं न्हवरो व्हंकलेक आपआपल्या घरा तेल - हळद लायतात. लग्न चडशें चलयेघराच जाता. लग्नाआदीं घराच्या दारांत बारा खांब्यांचो माटव घालतात. तातुंतलो दूदखांब वा आदिकंभ हो जांबळीण वा अंजीर ह्या झाडांचो आसता. चलयेचो मामा सुरवेक त्या झाडाची पुजा करून तो खांब कापता आनी उपरांत व्हड मानान तो घरा हाडटात. तो पुरचे आदीं फोंडांत थोडें दूद आनी णव तरेचीं धान्यां घालून तो खांबो पुरतात. ह्या खांब्याकडेनूच न्हवरो - व्हंकलेक कांकण बांदता आनी दर एका विधीउपरांत न्हवरो - व्हंकल ताका पांयां पडटात.

हो खांबो पुरतकच 'ऐरणे' नांवाचो एक विधी जाता. गांवच्या कुमाराक पांच ते वीस मातयेचीं आयदनां करूंक सांगतात. तो तीं गांवांतल्या देवळांत वा आपल्या घरांत दवरता. उपरांत कांय सवायशिणी कलश, हारसो, थोडे तांदूळ, दाळ आनी गोड हें साहित्य व्हरून कुमाराक दितात. उपरांत त्या मातयेच्या आयदनांची पुजा करून तीं घरा घेवन येतात. त्या दिसा ह्यो बायलो उपास करतात. उपरांत कांय सवायशिणी वाजत - गाजत बांयचेर वा न्हंयेचेर वतात आनी गंगा म्हणून त्या उदकाची पुजा करतात आनी त्या उदकान कळसुल्यो भरून हाडटात.

लग्ना दिसा न्हवरो आनी व्हंकल आपआपल्या आवय वांगडा न्हातात. उपरांत न्हवरो नवो पोशाक घालून हातांत कट्यार घेवन लग्नाच्या माटवांत वता.

वेलनाटी रेड्डी लोकांत न्हवरो एका पाटल्यांत पांय दिवन उबो रावता. व्हंकलूय तशीच उबी रावता. दोगांयमदीं अंतरपाट धरतात. उपरांत दोगांय एकामेकांचे तकलेर जिरें आनी गोड उडयतात. उपरांत अंतरपाट पयस करून दोगांय एकामेकांक पळयतात. लिंगायत पाकनाटी रेड्डी अंतरपाटाचेर बैलाचें चित्र काडटात आनी म्हूर्ता वेळार त्या चित्रा जाग्यार बारीकशी चीर मारून तातुंतल्यान एकामेकांकडेन पळयतात. तेउपरांत न्हवरो व्हंकलेच्या गळ्यांत शंबर धाग्यांनी तयार केल्ली हळदीन रंगयल्ली ताळी बांदता.

उपरांत धारे हो विधी जाता. हेखातीर न्हवऱ्याच्या हाताच्या पोशांत पुरयत नाल्ल दवरता. न्हवऱ्याच्या पोशासल व्हंकल आपलो पोसो धरता. पुरयत नाल्लाचेर दूद आनी उदक घालता, जें व्हंकलेच्या पोशांत झिरपता. व्हंकलेचो आवय - बापूय आनी लागसल्ले सोयरेय नाल्लाचेर दूद आनी उदक घालतात. हाकाच धारे अशें म्हण्टात. उपरांत न्हवरो - व्हंकल, केळीच्या पानार पातळायिल्ल्या तांदळांचेर दवरिल्ल्या पांच नाल्लांची पुजा करतात. तेन्ना सोयरीं - धायरीं तांकां केळवण करतात. उपरांत न्हवरो - व्हंकल दूदखांब, ऐरण, मटकी आनी कुलदेवता हांकां पायां पडटात. कुलदेवतेक पांयां पडपाक वता आसतना न्हवऱ्याची भयण दार आडायता आनी तांकां जावपी पयली चली आपल्या चल्याखातीर मागता. ताणें तशें मान्य करतकच ती कुशीन सरता.

उपरांत फुडले चार दीस जेवणावळी आनी कांय लौकिक विधी जातात. पांचव्या दिसा सकाळीं न्हवरो व्हंकलेक घेवन वारूळ आसा त्या जाग्यार वता आनी थंयची माती खणटा. व्हंकल ती माती घरा हाडटा. न्हवरो ते मातयेचे गुळे करून माटवांतल्या दर एका खांब्याकडेन दवरता. व्हंकल तांकां निवेद दाखयता आनी तीं उपरांत दूदखांब्याक पांयां पडटात. उपरांत तो खांबो काडटात. लग्ना उपरांत चवथ्या वा पांचव्या दिसा माटवांत वा गांवां भायर न्हवरो नांगरणी करता आनी व्हंकल बीं पेरता. हो विधी तांच्या वेवसायाचो सूचक आसा.

जेन्ना चलयेक पयलेच खेप मासिक पाळी येता तेन्ना तिका तीन ते सोळा दीस एके खोंपींत वा घरांतले एके स्वतंत्र कुडींत दवरतात. खोंपीच्या वा कुडीच्या दारांत एक सान्न आनी व्हाणो दवरतात. ताका लागून भुतांखेतांची बादा जायना असो समज आसा. ती चली सदांच न्हावन जातकच मडवळान दिल्ले कपडे घालता. ह्या काळांत तिका गोड जेवण घालतात. पयल्या दिसा सांजेची तिची आवय तिची होंट भरता आनी उपरांतच्या दिसांनी तिच्या सोयऱ्यांतल्यो बायलो तिची होंट भरतात. सदांच सांजवेळच्यो सवायशिणी तिचे भोंवतणीं जमतात आनी पदां म्हण्टात. चलयेचें लग्न जाल्लें आसल्यार गांवचो मडवळ तिच्या घोवाघरा ही खबर कळयता. उपरांत तिची मांय येवन तिची होंट भरता. चवथ्या वा इकराव्या दिसा ती न्हाता. पूण तिका रांदचेकुडींत आनी देवाकुडींत वचूंक मेळना. सोळाव्या दिसा तिचेर तीर्थ फाफडून तिका सवळी करतात. उपरांत ती रावताली ती खोंप लासून उडयतात. तशेंच तिणें वापरिल्लीं मातयेचीं आयदनां फोडून उडयतात. लिंगायत पाकनाटी रेड्डी आनी रेनाटी रेड्डी हांचेमदीं मडीं पुरतात. ते हाताचेर घालून मडें मसंडेंत व्हरतात आनी सुतक पाळिनात. तिसऱ्या आनी इकराव्या दिसा ते मेल्ल्या आत्म्याक अन्न दितात.

लिंगायत नाशिल्ले पाकनाट रेड्डी मडीं लासतात. म्हळयार एक कर्तबगार दादलो वा बायल मेली जाल्यार तांचीं मडीं लासतात आनी हेरांक पुरतात. लग्न जावंक नाशिल्ल्यांक उमथीं पुरतात. लाशिल्ल्या मनशाच्यो हस्ती झाडामुळांत पुरतात. इकराव्या दिसा ते श्राध्द वाडटात.

वेलनाटी रेड्डी मडें लासतात आनी शुद्रकमलाकर ह्या ग्रंथांत सांगिल्लेप्रमाण निमाणे संस्कार करतात.

कम्म रेड्डींमदीं लग्न जाल्ल्या मनशांचींच मडीं लासतात आनी हेरांचीं पुरतात. ते १० ते १५ दीस सुतक पाळटात. १० दीस सुतक पाळटकच १२ व्या दिसा ते वेंकटरमणाच्या देवळांत वचून ताची पुजा करतात आनी लोणयाचे तीन गुळे देवळाच्या दाराचेर मारतात. 'आदीं मेल्ल्या मनशान तुका फातर मारिल्ले, ताचें प्रायश्चित म्हणून आमी तुका लोणयाचे गुळे ओंपतात' अशें म्हण्टात.

मंगळारा आनी शुक्राराक खंयचोय मनीस मेलो जाल्यार ताचे वांगडा कोंबयेचें एक पील पुरतात. सवायशीण बायल मेल्यार तिची होंट भरून, होंटयेचें सामान तिचेवांगडा पुरतात.

सगळ्या रेड्डी जातींत नव्या वर्सा दिसा, भाद्रपद वद्य पक्षांत, दिवाळे दिसा वा म्हानमीक सगळया पितरांचें श्राध्द करतात.

शेती हो रेड्डींचो पारंपारीक वेवसाय. जायत्या जाणांक सरकाराकडल्यान जमनी मेळ्ळयात. बाकीचे भाटकाराकडल्यान जमीन घेवन ती खंडार (अर्धेलीचेर) कसतात. ज्वारी, तांदूळ, ऊंस, नाशणें, आदी पिकां ते काडटात. शेतीविशीं तांचीं कांय वेगवेगळीं विधानां आसात तीं अशीं- पेरणीच्या दिसांनी ते गोरू देवरूची पुजा करतात. वाडपी पिकाक नदर लागची न्हय देखून पिकार ताकाचेंशीत, रांदनींतलो गोबर फाफुडटात. पीक भरपूर येवचें म्हणून भाद्रपद शुध्द अश्टमीक जोकुमार वा करंभेक हे देवतेक मिश्टान्नाचो निवेद दाखयतात तेखातीर बांयलागसार पांडवांचें प्रतीक म्हणून पांच फातर दवरून तांची पुजा करतात.

कांय रेड्डी आदल्या म्हैसूर संस्थानांतल्यान विजापूर, धारवाड आनी बेळगांव ह्या म्हालांत येवन स्थायिक जाल्ले आसात. खूब आदीं तांणी हें स्थलांतर केल्ल्यान म्हैसूर वाठारांतले रेड्डींत आनी ताच्या रिती - रिवाजांनी जायतें वेगळेपण आसा. रेड्डीच्या जायत्या फांट्यांभितर नामद रेड्डी हे ह्या वाठारांत रावतात.

**नामद रेड्डी :** हातूंत शत्तीस बेडगू म्हळयार पोटविभाग आसात. तांचेमदीं एकाच बेडगूभितर लग्नसंबंद जायनात. हे लोक वैश्णव आसून व्यंकटेश हो तांचो कुलदेव. तेभायर येल्लम्म, द्यामव्व, केरेव्व, हनुमान आनी हेर देवतांकय ते भजतात.

नामद रेड्डींत आते वा मामेभयणीकडेन लग्न जावंक मेळटा. लग्न थरतकच चलयेघरा साकरपुडो करतात. त्या वेळार चल्याचो बापूय चलयेक साडी आनी कसलीय वस्त दितात. उपरांत चलयेची खारको, सुपाऱ्यो, हळदीकुटां, विड्याचीं पानां आनी केळीं हांणी होंट भरतात. उपरांत लग्न थारलें म्हणून चल्याचो आनी चलयेचो बापूय एकामेकांच्या उपरण्यांक सुपारी बांदतात. लग्नाच्या दोन - तीन दीस आदीं न्हवरो तशेंच व्हंकलेगेर देवकारें करतात. लग्नाच्या पयल्या दिसा ऐरण नांवाचो एक विधी करतात. एका चवकोनाच्या चार कोनशांचेर उदकान भरिल्ले घट दवरून तांचे भोंवतणीं सुतां गुठलायतात. त्या चवकोनांत न्हवरो ताचो आवय - बापूय आनी दोन सवायशिणी बायलो बसतात. उपरांत कांय सवायशिणी बायलो ताका गरम उदकान न्हाणयतात. उपरांत घटा भोंवतणचें सूत सोडोवन तें माटवांतल्या एका खांब्याक बांदतात. उपरांत कांय सवायशिणी उरिल्ली हळद घेवन वाजतगाजत चलये घरा वतात आनी तिकाय तशेंच न्हाणयतात.

लग्नाचे आदले रातीं न्हवऱ्या कडलो आनी व्हंकलेकडलो कांय लोक खंयच्याय देवळांत जमतात आनी एकांमेकांचेर रंग मारतात. उपरांत व्हंकलेचो बापूय न्हवऱ्याचे पांय धुता आनी ताका कपडे दिता. उपरांत न्हवरो घोड्याचेर बसून घरा वता. सिमांतपुजनाचोच हो एक प्रकार. लग्ना दिसा रुयेच्या झाडाची एक खांदी हाडून देवळांत दवरतात. उपरांत बायलो दादले देवळांत वचून तिची पुजा करतात आनी ती घरा हाडून लग्नाच्या माटवांत एका खांब्याक बांदतात. हाका हालकंब विधी अशें म्हण्टात.

लग्न चलये घरा जाता आनी अंतरपाट कुशीन काडटकच न्हवरो व्हंकलेच्या माथ्यार अक्षता उडयता आनी तिच्या गळयांत मंगळसुत्र बांदता. विधवेचें लग्न मंगळार सोडून खंयच्याय शुभ दिसा जाता.

नामद रेड्डींत मडें लासतात. पूण मेल्लो मनीस आंकवार आसल्यार बशिल्ले स्थितींत पुरतात. मड्याचेर गुलाल आनी विड्याचीं पानां घालतात. जंय मडें लासतात थंय ताचो वारस ५ पयशे पुरता आनी त्या जाग्यार सरण रचून ताचेर मडें दवरतात. उपरांत जमिल्ले लोक मड्याचेर दुर्वा घालतात आनी मागीर मड्याक उजो लावप जाता. तिसऱ्या दिसा मेल्ल्या मनशाच्यो हस्ती एकठांय करून न्हंयेंत उडयतात. मडें लाशिल्ल्या जाग्यार मेल्ल्याची मातयेची प्रतिमा करून स्थापतात आनी ताचे आवडीचे पदार्थ करून ते प्रतिमे मुखार दवरतात. सव्या, णवव्या वा इकराव्या दिसा मेल्ल्या मनशाचे कपडे, वस्ती धुयतात आनी घरांतल्या देवामुखार दवरतात. त्याच वेळार शीत आनी पुरणपोळी हांचो निवेद दाखयतात. मनीस मेले उपरांत म्हयन्याभितर ताचो टाक घरांतल्या देवांत दवरतात आनी ताची पुजा करतात. उपरांत वर्सभर मेल्ले तिथीक भुतांखेतांक अन्न ओंपतात. हे लोक श्राध्द मात करिनात.

शेती हो नामद रेड्डींचो पारंपारीक वेवसाय. कांय लोक शेती मजुरी वा हेर उद्देगूय करतात. शेतीविशीं तांचे जायते उत्सव आसात.

पावसाळ्यांत पेरणी करचेआदीं नांगराची आनी क्षेत्रपालाची पुजा करतात. पुजा करचेआदीं नांगर नितळ धुवन ताका लक्ष्मीचें प्रतीक मानून साडी न्हेसयतात, कांय खेपे ताका लक्ष्मीचें मुखेंय घालतात. बैलाक नांगराक जुंपचेआदीं ताका कपलाक विभुती लावन पांयां पडटात, ताका गोड गोड खावंक दितात आनी ताचे भोंवतणीं भाकरेचो कुडको उंवाळून उडयतात. कालमानानुसार रेड्डींचे संस्कृतीक गरजेप्रमाण बदल जायत आसा. भाद्रपद उमाशेक ते करगपुजा म्हळयार लक्ष्मीची पुजा करतात. त्या दिसा जेवण रांदून ते शेतांत व्हरतात आनी चार दिकांक तातुंतलो थोडो वांटो उडोवन उरिल्लें घरचीं मनशां जेवतात.

आश्विनी पुनवेक तांचो सिगी हुन्नवी हो विधी आसता. धान्याचें खळें तयार जातकच तातूंत एक खांबो पुरून ताची पुजा करतात. सांजवेळचे खळयांत बैल बांदून मळणी करतात तेन्ना डांगोरा नांवाचीं पदां गायतात.

- कों. वि. सं. मं.

## रेड्डी, नीलम संजीव

**रेड्डी, नीलम संजीव :** (जल्म : १९ मे १९१३ इल्लूरू अनंतपूर, आंध्र प्रदेश; मरण : १९९६).

भारताचो सवो राष्ट्रपती. पिरायेच्या १४ व्या वर्सासावन ताणें भारताचे स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेवपाक सुरवात केली. पिरायेच्या १६ व्या वर्सा तो गांधिजीक मेळ्ळो आनी थंयच्यान प्रभावित जावन तो उपरांत गांधीवादी म्हूण वावुरपाक लागलो. मद्रासचे थियोसॉफिकल कॉलेजींतल्यान ताणें उच्च शिक्षण घेतलां. १९३१ त



शिक्षण अदर्यार सोडून ताणें आपल्याक पुरायपणान स्वतंत्रता आंदोलनांत ओंपून घेतलो. त्या वेळार गांवागांवांनी सभा घडोवन हाडप हो ताचो मुखेल वावर आसलो. १९३६ त ताका आंध्र प्रदेश कॉंग्रेस समितीचो मंत्री केलो. १९४० - ४५ मेरेन आंदोलनांनी वांटो घेतिल्लो म्हूण ताका बंदखणीची ख्यास्त भोगची पडली.

भारत स्वतंत्र जाल्याउपरांत १९४९ त आंध्राच्या श्रीकुमार स्वामीच्या राज्य मंत्रीमंडळांत ताका मंत्रीपद फावो जाल्लें. १९५३ त ताका आंध्र प्रदेशाचो बिनविरोध नेतो म्हूण वेंचून काडलो. २४ मार्च १९७७ त रेड्डीक लोकसभेचो स्पीकर म्हूण वेंचून काडलो.

राष्ट्रपतीचे सातवे वेंचणुकेंत निलम संजीव रेड्डी २५ जुलय १९७७ दिसा बिनविरोध राष्ट्रपती म्हूण वेंचून आयलो. उपरांत २५ जुलय १९८२ मेरेन ताणें हें पद भुसयलें. भारताचें राष्ट्रपती पद सांबाळपी तो सगळयांत ल्हान पिरायेचो.

- कों. वि. सं. मं.

## रेणुका

**रेणुका :** रेणुका ही भुंयदेवता. तिचें नांवूच भुंयेकडलो तिचो संबंद सुचयता. संस्कृतांत 'रेणु' म्हळयार बारीक कण. ह्या 'रेणु' उतराक 'का' हो प्रत्यय लागून ताचें 'रेणुका' उतर घडलां. मातयेचे जायते कण एकठांय येवन घडटा ती आकृती म्हणजे 'रोयण'. तिका उद्देशून रेणुका हें उतर वापरिल्लें मेळटा. रेणुकेचो जल्मच रोयणींतल्यान जालो आनी ती रोयणिंतूच अंतर्धान पावली अशी आख्यायिका सांगतात. ही आख्यायिका कितली सत हें सांगूंक नजो. पूण 'रेणुका' हें उतर 'रोयण' उतराक लागींचें हें उकतें आसा. (रोयण · रोयणु · रेणु = रेणुका).

रोयणीक धर्तरेचें प्रतीक मानतात. अनार्यांच्या सगळ्या भुंयदेवतांक मुळांत हेच रोयणीच्या रुपांत भजताले. अशाच दक्षिण भारतांतले रोयण रुपांतले अनार्यांचे भुंयदेवतेचें वैदिक संस्कृतीच्या प्रभावाखाला संस्कृतीकरण जावन तिका आयचें रेणुकेचें रूप फावो जालां. रोयणीक जरी रेणुका म्हणून उल्लेखतात आसले तरी भौतेक कडेन रेणुकेच्यो मुर्त्यो मेळटात आनी त्यो उत्तानपाद, नग्न आनी शिरा विरयत आसात. तिच्या हातांत नागकाश्टूय दाखयतात. जातूंतल्यान तिचें मातृरूप आनी सृजनाकडलो संबंद उकतो जाता. रेणुका ही मनीस योनींत जल्माक आयिल्ली बायलमनीस. मरणा उपरांत तिका देवत्वाचो मान फावो जाला असोय निश्कर्श रेणुकेसंबंदान मेळपी जायत्या आख्यायिकांच्या आदारान काडटात. रेणुका ही संतत

दिवपी देवता अशें मानतात आनी भुरगें जावचें म्हण तिका आंगवणी करतात.

गोंय वा कोंकण वाठारांत रोयणीच्या रुपांत पुजतात, ती सांतेर वा महाराष्ट्र, आंध्र, कर्नाटक ह्या वाठारांतली रोयण रुपांतली मातंगी, ह्योय देवता रेणुकेच्यो समरूप वा एकरुपूच अशें मानतात. यल्लम्मा, जोगुळांबा, यमाई, एकवीरा हींय रेणुकेचींच रुपां अशें विद्वानांचें मत आसा. स्कंदपुराणाच्या सह्याद्रिखंडांत जाचो आस्पाव आसा अशें सांगतात, त्या रेणुकामाहात्म्यांत रेणुका ही अदितीचो अवतार अशी श्रध्दा व्यक्त केल्या.

'माहुर' हें रेणुकेचें मूळपीठ. हांगा देवीची शिळा आसा. हांगा रेणुकेचो प्रसाद म्हणून खावंचीं पानां कुटून दिवपाची चाल आसा. भायर महाराष्ट्र - कर्नाटकांत जायतेकडेन तिचीं थळां मेळटात. गोंयांत मात तिची समरूप आशिल्ली सांतेरी गांवागांवांनी मेळटा आसली तरी रेणुका ह्या नांवान तिचें एकूय थळ आयकुपांत ना. यल्लम्मा ह्या तिच्या नांवान मेळपी देवतेची एक देवळी मात बांदोडें गांवांत बोकडबागांत आसा.

रेणुका ही पुराणांतली जमदग्नी ऋषीची बायल आनी परशुरामाची आवय अशी आख्यायिका आसा. रेणुका महात्म ग्रंथांत तिच्या जल्मासंबंदान कथा आसा ती अशी -

पुर्विल्ल्या काळांत कान्यकुब्ज देशांत इक्ष्वांकुवंशीय रेणु नांवाच्या राजान (हाका प्रसेनजीत अशें दुसरेंय नांव आशिल्लें) कन्या - कामेश्ठी याग केल्लो तेन्ना होमकुंडांतल्यान जी कन्या वयर आयिल्ली तीच ही रेणुका. रेणु राजाच्या नांवावयल्यान तिका रेणुका म्हणून वळखताले. तिचें पाळण्यांतलें नांव 'कामली'. पिरायेंत येतकच स्वयंवरांत तिणें 'जमदग्नी' क घोव म्हणून स्विकारलो. तिका रूमावंत, वसू, विश्वावसू आनी परशुराम अशे चार पूत जाले. रेणुकेची उत्पत्ती कमळांतल्यान जाली आनी 'रेणु' हो तिचो भाव आनी 'सोमप' हो तिचो बापूय अशीय म्हायती महाभारतांत मेळटा. जाल्यार रेणुका ही विदर्भ राजाची धूव अशीय म्हायती कालिका पुराणांत आसा.

रेणुका आनी मातंगी हांच्या संबंदांचेर उजवाड घालपी एक कथा मेळटा, जाचीं वेगवेगळीं रुपां आसात. 'गोंधळी' ह्या रेणुकेच्या उपासकांमदीं मेळटा ती कथा अशी - खूब कोपिश्ट म्हणून नामना आशिल्ल्या जमदग्नी ऋषीचो आश्रम माहुरगडाचेर आशिल्लो. ताची बायल रेणुका ही पतिव्रता अशी अस्तुरी आशिल्ली. पूण एक दीस न्हंयेचेर उदक हाडूंक गेल्लेकडेन उदकांत न्हावपी स्वरूप सुंदर अशा गंधर्वांक पळोवन थोडो वेळ तिचें मन विचलीत जालें आनी आश्रमांत परतूंक तिका कळाव जालो. जमदग्नीऋषीक अंतरज्ञानान तें रोखडेंच समजलें आनी ती परत येतकच ताणें आपल्या पुतांक तिचो वध करपाक सांगलें. पयले चारूय पूत आवयक मारूंक तयार जालेनात. पांचव्या पुतान, परशुरामान तिचें मस्तक उडयलें. तेन्ना प्रसन्न जावन जमदग्नीन ताका जाय तो वर मागूंक सांगलो. तेन्ना ताणें बापायकडेन आपले आवयक परतून जिवी करपाचो वर मागलो. तशें तिचें मारिल्लें शीर हाडून धडाचेर दवरूंक जमदग्नीन ताका सांगलें. परशुरामान खूब सोद घेतलो, पूण शीर खंय पडलां तें ताका मेळना जालें, तेन्ना ताणें रेणुकेभाशेन दिसपी एके मातंगी (मांगीण) बायलेचें शीर मारून हाडलें. तें पळोवन मागीर जमदग्नीन स्वताच्या तेजानूच रेणुकेचें शीर सोदून हाडून तिका जिवी केली. स्वताचे आवयक जिवी करपाच्या यत्नांत ती मातंगी बायल मात फुकट मेली हे जाणविकायेंतल्यान उपरांत परशुरामाक खूब दुख्ख जालें आनी ताणें तिचें धड हाडून माहुरगडाचेर ताची स्थापणूक केली आनी रेणुकेआदीं लोक तुजें दर्शन घेतले अशें तिका उतर दिलें. ह्या उतराक धरून आजूय माहुरगडाचेर रेणुकेआदीं मातंगीचो मान जाता.

कांय कथांनी निमाणो वांटो मात्सो वेगळे तरेन येता ,जातूंत रेणुकेक जिवी करपाचे गडबडींत तिच्या आनी मातंगीच्या धडांची अदला बदल जाली अशी म्हायती मेळटा. मूळच्या अनार्यांचे रोयणी रुपांतले भूदेवतेचें संस्कृतीकरण जातना ह्यो कथा घडल्यो अशें लोकसंस्कृतीच्या विद्वानांचें मत आसा.

परशुरामान माहूर क्षेत्रांत जमदग्नीऋषीचो निमाणो संस्कार केलो आनी रेणुका थंयच सती गेली. देखून तें रेणुकेचें मुखेल थळ जावंक पावलां असो तिच्या भगतांमदीं समज आसा. ज्योतिबाक, रेणुकेचो घोव मानतल्यांचीय म्हायती मेळटा. 'केदारकवच' आनी 'खळनाथस्तवराज' नांवाच्या तोत्रांनी 'ज्योतिबा'क जमदग्नी, एकवीरापती आनी रेणुकानाथ ह्या नांवांनी उल्लेखला.

गोंधळी भायर जोगती - जोगतिणी आनी भुत्ये परंपरेंतले लोकूय रेणुकेचे उपासक आसात. ह्या मदले जोगतिणीक दिक्षा घेतकच जल्मभर लग्न जायनासतना देवतेचो प्रचार करीत दारादारांनी भोंवचें पडटा आनी 'जोगवो' (भीक) मागून आपलें पोट भरचें पडटा. पूण थारावन दिल्ल्या दादल्याकडेन शारिरीक संबंद जोडपाची तिका मेकळीक आसता.

रामानंद, विष्णुदास हे सारके कवी आदल्या काळार रेणुकेचे भक्त जावन गेले. तांणी तिची महती सांगपी जायतीं गितां रचल्यांत. एकल्या विष्णुदासानूच तिचेर शंबरांवयर गितां बरयल्यांत.

- जयंती नायक

**रेनडियर :** (कूळ : सर्व्हिडी, प्रजाती : रँगिफर, शास्त्रीय नांव रँगिफर टॅरँडस). उत्तर युरोप आनी उत्तर आशिया खंडांत मेळपी एक मृग (हरण). हेच जातीचें पूण आकारान मात्शें व्हड हरण उत्तर अमेरिकेंत मेळटा. ताका कॅरिबू अशें म्हण्टात. हरणाच्या हेर जातींनी रेनडियर हीच जात मनशाळिल्ली आसा. हे जातींत नर आनी मादी ह्या दोगांकूय शिंगां आसात.

रेनडियराची तकलेसकट लांबाय १.२ ते २.२ मीटर. ताचें वजन सुमार ९० ते ३१८ किग्रॅ. इतलें आसता. ताच्या आंगार २ ते



४ सेंमी. लांबायेचे दाट केंस आसतात. ताच्या मुळांत मोव केसांचो दाट थर आसता. शिंगां लांब पातळिल्लीं, वेगवेगळया आकारांचीं आसून तांचे फांटे तोंकाचे आसतात. भुंवयांवयल्यान आयिल्लीं शिंगां मुखार आयिल्लीं आसतात. पूण हेर शिंगांचे फांटे फाटले वटेन पातळिल्ले आसतात. दर वर्सा नोव्हेंबरांत (शिंयाळयांत) शिंगां गळून पडटात आनी उपरांत रोखडींच नवीं शिंगां येवंक सुरवात जाता. सुरवातीक येवपी शिंगां मोव आनी स्पंज्यावरीं बुराक आशिल्लीं आसतात. तांकां रगताची पुरवणूय भरपूर प्रमाणांत जाता. कांय तेंपान रगताची पुरवण बंद जातकच शिंगां घट्ट जातात.

रेनडियराचो रंग चडसो तपकिरी वा करडो आसता. सकयलो भाग धवो वा फिकट रंगाचो आसता. शिंया दिसांनी तपकिरी रंगाचें रुपांतर धव्या रंगांत जाता. खूर रूंद, पसरट आनी व्हड खांच पडिल्ले आशिल्ल्यान मोव जमीन वा बर्फावयल्यान चलप ताका कठीण जायना. ते वराक ३२ किमी. गतीन प्रवास करतात. बर्फाच्या वाठारांत तांकां गाडयेक जुंपतात.

रेनडियर हो कळपांनी भोंवपी प्राणी, दुस्मानाची सुलूस लागली म्हण्टकच ते वाटकुळे उबे रावतात आनी शिस्तीन फुडें वतात. त्या वेळार तांचीं शिंगांय एके विशिश्ट पद्दतीन वाटकुळीं घुंवतना दिसतात. सप्टेंबराचे अखेरेक हजारांनी रेनडियर एकठांय येवन दाट रानांत रावंक वतात. पुराय शिंयाळो थंय काडून वसंत ऋतुचे सुरवातीक ल्हान टोळकीं करून परत येतात. झाडांचीं तरणीं पानां आनी तण हें ताचें खाण. शिंयाळयांत ते दगडफूल आनी शैवाल खातात.

अश्मयुगांत सुमार २५ ते ३० हजार वर्सांआदीं रेनडियर युरोपांत मेळटाले. पुर्विल्ल्या काळासावन हे प्राणी मनशाळिल्ले आसूंक जाय. उदेंत सायबेरियांतल्यो तुंगस आनी चुकची ह्यो जमाती रेनडियरचो उपेग ताचेर बसून तशेंच सामान पयस व्हरपावातीर आनी बर्फावयल्यो चाकाबगर गाडयो ओडपाखातीर करताले. उत्तर युरोपांतल्या स्कॅडेनिव्हियन देशांतल्या हेडग्या जमातींचे लोक भार व्हरपाखातीर रेनडियरचो उपेग करताले. ह्या प्राण्यापसुनूच तांकां मांस आनी दूद मेळटालें. रेनडियराच्या दुदांतल्यान गायच्या दुदापरस चौपटीन लोणी येता आनी दुदाचो उपेग पियेवपाभायर चीझ करपाखातिरूय करताले. ताच्या कातडयापसून कपडे, जोतीं आनी तंबू, केंसापसून शेंदऱ्यो आनी अन्ननळयेपसून पोतयो तयार करताले.

तांचें नाक तिक्ष्ण आसता. धोक्याची सुचोवणी करपाखातीर रेनडियर आपली शेंपडी वयर करता.

स्थलांतराच्या वेळार नर आनी मादी माजार येतात. तांचो गुरवारपणाचो काळ सुमार २४० दिसांचो आसता. मादी १ ते २ पिलां काडटा. १ ते देड वर्सांनी पिलां पिरायेंत येतात. तांचें आयुश्य सुमार पंदरा वर्सांचें आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**रेनवॉटर, (लिओ) जेम्स :** (जल्म : ९ डिसेंबर १९१७, काउन्सिल, आयडाहो, अमेरिका; मरण : ३१ मे १९८६, यॉंकर्स, न्यूयॉर्क).

अमेरिकन भौतिकीविज्ञ. अणुकेंद्रांतली सामुहिक गती आनी कण गती हांच्यांतल्या संबंदाचो सोद आनी ह्या संबंदांचेर आदारिल्ल्या अणुकेंद्राचे संरचनेच्या सिध्दांताचो विकास ह्या कार्याविशीं रेनवॉटर हाका ऑगे नील्स बोर आनी बेंजामिन रॉय (बेन आर्.) मॉटेलसन ह्या डॅनिश भौतिकीविज्ञांवांगडा १९७५ च्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो. कांय थरावीक अणुकेंद्रां किद्याक आनी कशे तरेन विंगड विंगड असममित आकार धारण करतात हें तांणी दाखयलें.

रेनवॉटर हाणें कॅलिफोर्निया इन्स्टिटयूट ऑफ टॅक्नॉलॉजीची बी. एस्. (१९३९) आनी कोलंबिया विद्यापिठाच्यो एम्. ए. (१९४१) आनी पीएच्. डी. (१९४६) ह्यो पदव्यो घेतल्यो. १९३९ - १९४२ ह्या काळांत ताणें कोलंबिया विद्यापिठांत भौतिकीचो साहाय्यक म्हणून काम केलें. १९४२ - ४६ त ताणें दुसऱ्या म्हाझुजांत अणुबॉंब विकसीत करपाखातीर येवजिल्ल्या मॅनहॅटन प्रकल्पांत काम केलें. परतून १९४६ - ४७ त कोलंबिया विद्यापिठांत निदेशक, १९४७ - ४९ सहाय्यक प्राध्यापक, १९४९ - ५२ त सहयोगी प्राध्यापक आनी १९५२ वर्सा सावन प्राध्यापक म्हणून काम केलें. ह्याच विद्यापिठांत १९८३ वर्सा मायकेल प्यूपिन प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली. १९५१ - ५३ आनी १९५६ - ६१ अशें दोन खेपे ताणें कोलंबियाच्या नेव्हिस सायक्लोट्रॉन लॅबोरेटरीजचो संचालक म्हणून काम केलें. अणुऊर्जा मंडळाच्या आनी नौदलाच्या संशोधन प्रकल्पांतूय ताणें १९४७ - ७६ ह्या काळांत काम केलें.

रेनवॉटर, नेव्हिस सायक्लोट्रॉन लॅबोरेटरींत आसतना म्यू - मेसॉनीय क्ष - किरणांचेर प्रयोग करतना ताणें आनी व्हाल फीच हाणें सद्याक मान्य आशिल्ली अणुकेंद्रीय भार त्रिज्या १९५३ वर्सा प्रस्थापीत केली. हाचेभायर रेनवॉटर हाणें न्यूट्रॉन आनी हेर मूलकणांविशीं संशोधन केल्लें आसून ताका परिसरविज्ञान, भूविज्ञान, ज्योतीशशास्त्र, हवेच्या प्रदुशणाच्यो अडचणी ह्या विशयांनीय गोडी आशिल्ली.

ताका नोबॅल पुरस्कारासयत अमेरिकेच्या अणुऊर्जा मंडळाच्या ई. ओ. लॉरॅन्स स्मृती पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो. नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, न्यूयॉर्क ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, रॉयल स्वीडिश ॲकॅडमी ऑफ सायन्सीस अशा मानादीक वैज्ञानिक संस्थांचो तो वांगडी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**रेमंड, लेओनार्द जॉसेफ :** (जल्मः ? ; मरणः १९७५).

नागपूरचो गोंयकार धर्मगुरू. ताचो घराबो मुळचो बार्देसांतल्या शिवोली वाठारांतलो. पूण कामानिमतान तो कराचीक स्थायीक जाल्लो. ताणें कॅण्डीक आपलें शिक्षण घेतलें आनी बी. ए.; डी. सी. एल्. आनी एल्. एल्. डी. ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. पाद्रीचें शिक्षण पुराय जातकच १९२६ वर्सा ताची पाद्री म्हणून नेमणूक जाली. १९४७ वर्सा अलाहाबादचो धर्मगुरू म्हणून ताची नेमणूक जाली. उपरांत १९६४ वर्सा नागपूरचो आर्चबिशप म्हणून ताची बदली जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**रेल्वे :** रेल्वे हो शब्द मूळ इंग्लीश. 'रेल' (Rail) म्हळयार रूळ आनी 'वे' (Way) म्हळ्यार मार्ग म्हणजे रुळाचो मार्ग असो ताचो अर्थ जाता अशें जरी आसलें तरी सद्या रेल्वे हाचो चालंत अर्थ एके विशिश्ट पद्दतीची येरादारी वेवस्था असो जाला. हातूंत रुळांचो मार्ग, रुळांच्या मार्गावयल्यान लोकांची तशेंच सामानाची येरादार करपी रेलगाडी, येरादारीचें वेवस्थापन हांचो आस्पाव जाता. हातुंतल्या पयल्या घटकांत थरावीक अंतराचेर लांकडी, लोखणी वा कॉंक्रिटाच्या शिळेपाटाच्या (स्लिपर्स) आदारान घट्ट बसयल्ल्या रुळांची जोडी फातराचे खडयेच्या थरार घट रोमिल्ली आसता. रुळामार्गांतल्या दोन समांतर रुळांतलें अंतर वेगवेगळया देशांतले प्रथेप्रमाण थारायल्लें आसता. रेल्वे येरादारींत सगळयांत म्हत्वाचें गेज म्हळयार स्टँडर्ड गेज हे ४' ८^१/२ (१.४३६ मी.) इतलें आसा. भारतांत रेल्वे येरादारीची सुरवात ब्रॉड गेज ५' ६''१ (१.६७६ मी.) ह्या अंतरान जाली. फुडें तातूंत मीटर गेज (१ मी.) आनी नॅरो गेज (२'६) आनी २१ ०.७६२ मीटर आनी ०.६१०मी. ह्या अंतराची भर पडली. रुळाच्या मार्गावयल्यान लोकांची तशेंच सामानाची हाड - व्हर करपी रेलगाडयेचीं चाकां कडो आशिल्लीं आसतात. हीं चाकां एका कडचार एक जोडी अशे तरेन बसयल्लीं आसतात आनी तातुंतलें अंतर दोन रुळांतल्या अंतरापरस थरावीक प्रमाणांत उणें आसता. हे यंत्रीक रचणुकेक लागून चाकां रुळांवयल्यान सकयल घसरनासतना जलद गतीन घुंवतात आनी रुळांची दिशा बदलता, तेचप्रमाण आपशींच वाहनांची दिशाय बदलता. हे येवजणेक लागून उज्यागाडी वेगान वचूंक शकता. दोन रेल्वेमार्ग एकठांय येतात वा एका लोहमार्गापसून दोन मार्ग जातात तेन्ना चाकां सरळपणान वचपावातीर रुळामार्गाची विशिश्ट तरेची रचना करची पडटा.

रेल्वे वेवस्थेचो तिसरो घटक म्हळयार डबे आनी वागिणी ओडून व्हरपी वा धुकलपी इंजिनां. सादारणपणान उज्यागाडयेक एक इंजिन फुडें जोडटात. पूण गाडयेच्या डब्यांची वा वागिणींची संख्या चड आसल्यार गाडी ओडपावातीर दोनूय इंजिनां वापरतात. सद्याच्या काळांत सामान येरादारींत रेल्वे वेवस्थेची कार्यक्षमताय वाडिल्ली आसा. अस्तंत्या देशांत, चड करून अमेरिकेंत, शंबरांपरस चड वागिणी आशिल्ले म्हालगाडयेक फुडें दोन आनी अदींमदीं कांय वागिणीच्या गटाउपरांत एक अशीं वट्ट तीन इंजिनां लायतात. भारतांतय ही ऐवजण प्रायोगिक रितीन चालींत आसा. आर्विल्ल्या काळांत लोकांक व्हरपी कांय उज्यागाडयांक इंजीन हो वेगळो घटक नासून तातुंतल्या कांय डब्यांकच विजेचीं चलित्रां बसयल्लीं आसतात.

रेल्वे येरादारीचे तंत्रविद्येंत तिरव्या रुळावयल्यान भितरले वटेन कडो आशिल्लीं तिरक्या चाकां वेगान घुंवत वचप हें मुखेल आंग आसा. हे येवजणेक लागून खंयच्याय वाहनांचे गतींत घर्शणान येवपी आडखळ उणी आसता आनी वाहनांची दिशा बदलपावातीर चाकां घुंवडोवपांत खर्च जावपी यंत्रीक शक्त वांचता.

ताका लागून लोकांक व्हरपी डबे आनी म्हालाच्यो वागिणी ओडून व्हरपावातीर वापरपांत येतल्या इंजिनाची अश्वशक्ती खंयचेय येरादारी साधनेपरस रेल्वे वेवस्थेंत उण्या प्रमाणाचेर लागता. देखीक ५००० टन वजन आशिल्ली म्हालगाडी सपाट लोहमार्गावयल्यान सदच्या वेगान ओडीत व्हरपाचें काम तितलीच अश्वशक्ती आशिल्लें इंजिन सहज करूंक शकता. म्हणजेच रेल्वे माल वाहतुकीक दर टनांफाटल्यान एक अश्वशक्ती पुरो जाता. रस्त्यावयल्यान जावपी म्हालवाहतूक पद्दतींत हें प्रमाण सादारणप्रमाण दर टनाक ८-१० अश्वशक्ती इतलें आसता. हाका लागून हेर खंयचेय येरादार साधनेपरस रेल्वे येरादारीक आनी सामान हाड व्हर करपाची कार्यक्षमताय व्हड प्रमाणाचेर फाव जाल्या. ताका लागून संवसारीक येरादारीच्या मळार रेल्वेक पयल्या क्रमांकाची सुवात मेळ्ळया.

**इतिहासीक फाटभूंय (इ.स. १५०० - १८३०) :** सोळाव्या शतमानासावन युरोपांतल्या कोळशाच्या खाणींनी लांकडी वा लोखणी रुळावयल्यान कडो आशिल्लीं चाकां बसयल्लीं वेगवेगळया प्रकाराचीं

वाहनां ओडून वा धुकलून व्हरपाची पद्दत आशिल्ली. सतराव्या शतमानांत इंग्लंडांत हे पद्दतींत कांय सुदारणा करून लोखणी रूळ आनी चाकां आशिल्ल्या लोहमार्गांत ताचें रुपांतर करपाचे यशस्वी यत्न केले. ह्या शतमानाचे निमाणेमेरेन कोळशाचे खणीपसून बऱ्याच अंतराचेर आशिल्ल्या बंदरामेरेन म्हालाची येरादार करपी जायते लोहमार्ग अस्तित्वांत आयले.

अठराव्या शतमानांत हातूंत चड यंत्रीक सुदारणा जाल्यो आनी अशा लोहमार्गांक १७५८त इंग्लंडाचे संसदेन संमत केल्ल्या कायद्याप्रमाण शासकीय मान्यताय मेळ्ळी. ह्याच सुमाराक जेम्स वॉट ह्या अभियंत्यान १७८८त वाफेचेर चलपी शक्तीयंत्र तयार करून उद्देगीक मळार यंत्रयुगाची सुरवात केली. सॅम्युएल हाम्फ्रे ह्या कारखानदारान ट्रेव्हिथिक हाका पयली रेल्वे उज्यागाडी तयार करपाक आपयलो. ताणें तयार केल्ल्या 'इनव्हिक्टा' ह्या वाफेच्या रेल्वे इंजिनान २१ फेब्रुवारी १८०४ दिसा १० टन म्हाल भरिल्ल्यो पांच वागिणी आनी तांचेर चडून बशिल्लीं ८० मनशां हांकां वराक ८ किमी. वेगान १६ किमी. लांबायेच्या लोहमार्गावयल्यान ओडून व्हेले. त्याच वर्सा ट्रेव्हियिक हाणें न्यू कॅसल नांवाचें दुसरें शक्तिमान इंजिन तयार करून ताच्या आदारान वेल्स भागांतल्या एके खाणींतल्या लोहमार्गार कोळशाची येरादारी सुरू केली.

जॉर्ज स्टीव्हेन्सन ह्या अभियंत्यान दोन वर्सांच्या श्रमाउपरांत २७ सप्टेंबर १८२५ ह्या दिसा प्रवासी आनी म्हाल हांची येरादार करपी जगांतली पयलीच भौशिक रेल्वे तयार केली. १८२७ वर्सा स्टीव्हेन्सन हाणें 'रॉयल जॉर्ज' नांवाचें दुसरें वाफेचें इंजिन उपेगांत हाडलें.

ह्याच वेळार लिव्हरपूल - मँचेस्टर रेल्वे कंपनी स्थापन जावन तिणें लिव्हरपूल आनी नामनेचें उद्देगीक केंद्र मँचेस्टर हांकां जोडपी ५० किमी. लांबायेची अद्ययावत रेल्वे परिवहन वेवस्था तयार करपाची येवजण आंखली आनी ताची जबाबदारी स्टीव्हेन्सनाचेर सोंपयली. हाचें इंजिन सगळयांत कार्यक्षम आसचें देखून एक इंजिन सर्त आयोजीत केली. हातूंत स्टिव्हेन्सन हाच्या रॉकेट ह्या इंजिनाक पयलो क्रमांक मेळ्ळो. फुडें लिव्हरपूल - मँचेस्टर लोहमार्गावयले पयले उज्यागाडयेखातीर ह्या रॉकेट इंजिनाचो उपेग केलो. १५ सप्टेंबर १९३० ह्या दिसा हे रेल्वेचें उक्तावण जालें.




फ्रांसांतलो पयलो रेल्वेमार्ग १८२७ वर्सा सँतेत्येनसावन अँद्रेझ्यमेरेन तयार जालो आनी ताचेवयल्यान फकत सामान हाड - व्हर करप जातालें. १८३२ वर्सा हांगा वाफेच्या इंजिनान रेल्वे परिवहन सुरू जालें.

जर्मनींत वाफेच्या इंजिनाचो उपेग करपी पयली रेल्वे वेवस्था ७ डिसेंबर १८३५ दिसा न्यूरेंबर्ग आनी एर्ष्यूर्ट ह्या शारांत चालू जाली. ऑस्ट्रिया हंगेरींत पयली रेल्वे परिवाहन वेवस्था १८३७त सुरू जाली. एकुणिसाव्या शतमानाचे सुरवातीकच अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत रेल्वेमार्गान येरादार करपांत सुरवात जाल्ली. १८१३ च्या सुमाराक ऑलिव्हर एव्हान्झ ह्या संशोधकान न्यूयॉर्कासावन फिलाल्डेल्फिया मेरेन रेल्वे मार्ग बांदपाची येवजण आंखली, पूण तातूंत ताका प्रतिसाद मेळ्ळोना. जॉन स्टिव्हेन्सन हाणें न्यू जर्सींतले आपले खासगी जमनीचेर सुमार ०.८ मी. लांबायेचो वाटकुळो रेल्वेमार्ग बांदून ताचेर ताणें तयार केल्ल्या वाफेच्या इंजिनाची १८२५ वर्सा यशस्वी चांचणी घेतली. रेल्वे परिवहनाचें मुळावण घालपी अमेरिकेंतली ही पयलीच रेल्वे वेवस्था आशिल्ली. १८३० वर्सा वॉल्टिमोर अँड ओहायओ रेलरोड कंपनीन अमेरिकेंतली पयली रेल्वे परिवहन वेवस्था सुरू केली.

**इ.स. १८३० - ९० :** १८३० उपरांत २०-२५ वर्सांच्या काळांत संवसारांतल्या सगळ्या देशांनी अशे तरेच्यो रेल्वे अस्तित्वांत आयल्यो. १८७० म्हळयार रेल्वे परिवहन ही एक संवसारीक अस्तित्व आशिल्ली गतिमान वाहतूक वेवस्था म्हणून सर्वमान्य जाली. उद्येगीक युगाचे सुरवेकच यंत्राचोय सोद लागिल्ल्यान रेल्वेचें संयोजन जावपाक बरो उपेग जालो. तशेंच रेल्वे परिवहन वेवस्थेचो उद्देगिकरणाचो विस्तार जावपाक हातभार लागलो.

संवसारांतली पयली रेल्वे सुरू करपी इंग्लंडांत १५ वर्सांच्या काळांत २१०० किमी. रेल्वेमार्ग कार्यान्वित जाले. देशांतल्या सगळ्या वेवस्थांनी रेल्वेमार्गाखातीर ४' ८१/२ (१.४३६मी) ही सर्वमान्य रुंदाय (स्टँडर्ड गेज) घेतली. तरी इंग्लंडच्या द ग्रेट वॅस्टर्न हे रेल्वे वेवस्थेन आय.के. ब्रुनेल ह्या अभियंत्याचे सुचोवणेप्रमाण आपल्या लोहमार्गाची रुंदाय ७' (२.१ मी.) दवरपाचें थारायलें. पूण जेन्ना देशभर प्रमाणभूत लोहमार्गाचो प्रसार जालो. तेन्ना ग्रेट वॅस्टन रेल्वे वेवस्थेक हेर रेल्वेमार्गाकडेन संबंद जोडपाखातीर आपलोय रेल्वेमार्ग स्टँडर्ड दवरचो पडलो. युरोपांतल्या चडशा देशांतल्या रेल्वे वेवस्थांनी रेल्वेमार्गाची सर्वमान्य रुंदाय आपणायली.

रशियांत १८३५ त ६' (१.८मी.) रुंदायेचो रेल्वेमार्ग घालून अश्वबळाच्या आदारान रेल्वे येरादारी सुरू जाली. ते उपरांत रशियाच्या साम्राज्यांतल्या पोलंड देशांत स्टँडर्ड गेजाचो रेल्वेमार्ग घाल्लो. १८५१ मेरेन रशियांत सेंट पीटर्झबर्ग ते मॉस्कोमेरेन ६५० किमी. लांबायेचो रेल्वेमार्ग पुराय जालो.

फ्रांसांत १८५० मेरेन ३२०० किमी. लांबायेचो लोहमार्ग चालू जाल्लो आनी फुडल्या २० वर्सांत पुराय देशभर रेल्वे मार्गाचें जाळें पातळिल्लें. फ्रेंच सरकारान प्रत्यक्ष रेल्वेमार्गाचें बांदकाम आनी वेवस्थापन खाजगी कंपन्यांचेर सोंपयलें. तशेंच तांणी गुंथयल्ल्या भांडवलाचेर नियमीत केल्लो उण्यांत उणो फायदो मेळून भागीदारांक फायदो मेळटलो हाचेंय शासनान उतर दिल्लें. ताका लागून जायत्या उद्देजकांनी ह्या नव्या वेवसायांत प्रवेश केलो.

१८३१ वर्सा नॅदर्लंडसावन स्वतंत्र जाल्ल्या बेल्जियम ह्या देशांतूय रेल्वे येरादारी सुरू जाली. तांणी दोन मुखेल रेल्वेमार्गांची येवजण आंखून उदेंत - अस्तंत रेल्वेमार्गांत जर्मनी आनी फ्रांस ह्या देशांकडेन आनी दक्षिण - उत्तर मार्गांनी जर्मनी आनी ब्रिटन ह्या देशांकडेन दळणवळणाचें कार्य सुरू केलें. १८७० जाता म्हळयार ह्या देशांत सुमार ३००० किमी. लांबायेचें रेल्वेमार्गाचें जाळें पातळिल्लें.

स्पेनांत दोंगराळ वाठार आनी उण्या प्रमाणांतले उद्देगधंदे हांकां लागून रेल्वे परिवहनांची व्हडलीशी उदरगत जाली ना. तरीय पूण १८३७ वर्सा साम्राज्यशाही देशांच्या वसणुकांनी पयली रेल्वे वेवस्था स्पेनाच्या अधिपत्याखाल आशिल्ल्या वॅस्ट इंडिजांतल्या क्युबा ह्या देशांत सुरू जाली.

इंग्लंडांत रेल्वे येरादारीचे युग सुरू जायत सावन तिस वर्सांच्या काळांत हे येरादारीची खूब वाड जाली आनीन तातुंतल्यान जायत्यो अडचणी मुखार आयल्यो. ताचेर उपाय म्हणून अभियंत्यांनी भुयांरी रेल्वे मार्गांची अभिनव कल्पना मुखार हाडली. १८६३ वर्सा लंडनांत संवसारातलीं पयली भुंयारी रेल्वे वेवस्था सुरू जाली. १८७० म्हळयार इंग्लंडांत २१ हजार किमी. परस चड लांबायेचे रेल्वेमार्ग बांदले. तातुंतलें चडशे दोट्टी (Double) आशिल्ले. १८७३-८६ ह्या काळांत ग्रेट ब्रिटनान संवसारांतलो सगळयांत लांब आनी सेव्हर्न न्हंयेच्या पात्रासकयल्यांन वचपी भुंयारी रेल्वे मार्ग बांदलो. तशेंच १८९० वर्सा एडिंबरो शाराकडले फोर्थ न्हंयेचेर प्रक्षेप बहाली पद्दतीन संवसारांतलो त्या काळाचो सगळ्यांत लांब असो रेल्वेखातीर तिरव्यापूल बांदलो. रेल्वे परिवहन सुरू जावन फुडल्या ३०-४० वर्साभितर प्रवासी डब्याचे बांदावळींत बरीच सुदारणा जाली. चार चक्रा जाग्यार आठ चक्रां आयलीं. डब्यांभितरय खूब बदल जाले. सुशेगादीन प्रवास करपाखातीर पयलो वर्ग, सामान्य प्रवाशांखातीर दुसरो वर्ग आनी हेरांखातीर तिसरो वर्ग अशी डब्यांची विभागणी जाली. एकुणिसाव्या शतमानाच्या निमाणें पयसुल्लो प्रवास करपी जलद गाडयो सुरू जाल्यो. तशेंच बाक्डो आशिल्ल्यो आरामशीर आनी सगळ्या सूख-सुविधांनी युक्त आशिल्ले जी. एम. पुलमन हाणें बांदिल्ले पुलमन ह्याच नांवान वळखतले प्रवासी डबे ह्या गाडयांक जोडले.

युरोप खंडांभायर रेल्वे येरादारीचो प्रसार सुरवेक उत्तर अमेरिकेंत जालो. इंग्लंडावरी अमेरिकेंतूय सुरवेक खाजगी उद्देगधंद्यांक स्वातंत्र्य दिवपाचें धोरण कार्यान्वीत जाल्ल्यान थंय जायत्यो ल्हान कंपन्यो अस्तित्वांत येवन उण्या अंतराचे लोहमार्ग बांदले. १८४० जाता म्हळयार न्यूयॉर्कासावन वॉशिंग्टनाक रेल्वे परिवहनावरवीं वचपाक जायत्यो गाडयो बदलच्यो पडटाल्यो. फुडल्या दोन दशकांत न्यूयॉर्कासावन शिकागो वचपाक सुमार २००० किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग अस्तित्वांत आयले. पूण हातुंतूय गाडयो बदलच्यो पडटाल्योच. फुडें १८६१ - ६५ ह्या काळांत मात यादवी झुजावेळार सैन्याक जलद हालचाल करपाखातीर रेल्वे परिवहनाचें म्हत्व लक्षांत घेवन अमेरिकन सरकारान एकसंघ रेल्वे वेवस्थेचें नवें धोरण दवरलें. तशेंच ल्हान रेल्वे कंपन्यांक व्हड कंपन्यांमदीं आस्पावन घेवपाक उत्तेजन दिलें. फावो ते कायदे केले आनी रेल्वे सुसूत्रीकरण हाडलें. हातुंतल्यान युनियन पॅसिफीक आनी सँट्रल पॅसिफीक ह्या दोन व्हड रेल्वे कंपन्यांनी दोंगराळ आनी निर्जन वाठारांतल्यान खूब त्रासांनी रेल्वेमार्ग पुराय केले. १० मे १८६९ दिसा दोनूय दिशांनी स्पर्धात्मक प्रगती करपी हे दोन रेल्वेमार्ग उटा राज्यांतल्या प्रॉमटरी ह्या गांवाभायर एक भांगराचो खिळो मारून जोडले आनी संवसारांतली पयली परिवहन वेवस्था कार्यान्वीत जाली.

ते उपरांत रेल्वे परिवहनाचे उदरगतींत वाड जायत गेली. अमेरिकेच्या व्हड आनी निर्जन अस्तंत भागाचें वसणुकीकरण करपाखातीर सरकारान खाजगी रेल्वे कंपन्यांक उण्या दराच्या कळंतरान नव्या रेल्वेमार्गाचे बांदावळीखातीर रीण दिलें. तशेंच, रेल्वेमार्गाच्या दोनूय वटांतल्यो चड क्षेत्रफळाच्यो जमनी तांकां इनामां म्हणून दिल्यो. अशेतरेन २१ रेल्वे कंपन्यांक ३०,००० किमी. लांबायेची लोहमार्गा भोंवतणीं सुमार ५३,००० हॅक्टरांवयर इनामी जमीन दिली. एकुणिसावे शतमानाचे निमाणेमेरेन अमेरिकेच्या उदेंत देगेसावन अस्तंत देगेमेरेन अखंडीत प्रवासी वा म्हाल येरादार करपी णव लोहमार्ग अस्तित्वांत आयले.

जेन्ना इंग्लंडांत रेल्वे येरादार सुरू जाली तेन्नाच्यान भारतांत वेपाराच्या निमतान येवन राजकीय सत्ता प्रस्थापीत केल्ल्या इस्ट इंडिया कंपनीच्या अधिकाऱ्याक भारतांतूय रेल्वे परिवहन चालू करपाची इत्सा जाली. तेन्ना उदेंतेकडेन कलकत्त्यासावन राणीगंजामेरेन सुमार २०० किमी. लांबायेचो आनी अस्तंतेकडेन मुंबयसावन कल्याणामेरेन ५० किमी. अंतराचो अशे दोन रेल्वेमार्ग बांदपाच्यो येवजणो आंखल्यो. तेप्रमाण १६ एप्रिल १८५३ वर्सा मुंबय प्रांतांत बोरीबंदर ते ठाणें ही सुमार ३४ किमी. लांबायेची भारतांतली पयलीच रेल्वे परिवहन वेवस्था चालू जाली. तिची मालकी आनी वेवस्थापन ग्रेट इंडियन पेनिन्सुला रेल्वे हे कंपनीकडेन आशिल्लें. १५ ऑगस्ट १८५४ दिसा भारतांतलो दुसरो रेल्वेमार्ग कलकत्त्यांतल्या हावडा वाठारासावन सुमार ३० किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या हुगळी ह्या गांवां मेरेन चालू जालो. १८५३ ते १८६९ ह्या सोळा वर्सांच्या काळांत भारतीय रेल्वे परिवहन वेवस्थेची सुमार ६००० किमी. लांबायेची रेल्वे येरादार वेवस्था अस्तित्वांत आयिल्ली. ह्या काळांतलो मुंबय - पुणें रेल्वेमार्गावयलो कर्जत ते लोणावळा हो खुबूच चडटी आशिल्लो घाटांतलो रेल्वेमार्ग संवसारांतल्या त्या काळांतल्या अभियांत्रिकेंत उल्लेखनीय थरलो.

१८९० म्हळयार संवसारांतल्या पुराय रेल्वेमार्गाची वट्ट लांबाय सुमार ४,५०,००० किमी. इतली जाल्ली.

**इ.स. १८९० - १९५० :** एकुणिसाव्या शतमानाचे अखेरेक रेल्वे परिवहन वेवस्थेचे कार्यक्षमतायेंत सर्वांगीण सुदारणा करपांत चड भर दिलो. रेल्वेच्या अभियांत्रिकी आनी कर्षण प्रेरणा ह्या तंत्रांत जाल्ले उदरगतीक लागून उज्यागाडयेच्या वेगांत नवे विक्रम करपांत येताले. जर्मनींत विसाव्या शतमानाचे सुरवेक खाशेल्या प्रवाहरेखीत (गतीक हवेचो रोध उणो जातलो अशे तरेन तयार केल्ल्या ) आकाराच्या सांच्याचीं इंजिनां बांदपाक सुरवात जाली आनी तांच्या आदारान वराक १५० किमी. वेगाचो उच्चांक गांठलो. १९३०-४० ह्या दुसऱ्या म्हाझुजा आदींय इंग्लंडांत अशेतरेच्या इंजिनाची आनी उज्यागाडयांची बांदावळ प्रचारांत आयली. ताका लागून दोनूय देशांनी इंजिनाच्या चांचणीवजा धांवांत २०० किमी. वेगाचो विक्रम केलो. इंग्लंडांत १९३५ वर्सा पांचव्या जॉर्ज बादशाच्या राज्याभिशेकाच्या रजत महोत्सवानिमतान केल्ल्या जायत्या उपक्रमांत लंडन सावन एडिंबरो मेरेन सुमार ६४० किमी. लांबायेच्या रेल्वेमार्गावयल्यान कॉरोनेशन स्कॉट ह्या नांवाची खास बांदावळीची उज्यागाडी हो प्रवास सदांच स वरांनी करूंक लागली. एकुणिसाव्या शतमानाचे अखेरेक विद्युत् शक्तीचेर चलपी इंजिनाच्या संशोधनाक जायत्या देशांनी सुरवात जाली. उपरांत १८९०त लंडनांत ५ किमी. लांबायेची पयली विद्युत् शक्तीन चलपी भुंयारी रेल्वे परिवहन वेवस्था चालू जाली. फुडल्या वीस वर्सांमदीं विद्युत् शक्तीचो रेल्वे परिवहनाखातीर जायत्या देशांत प्रसार जालो. विसाव्या शतमानाचे सुरवातीकच पॅरिसांतूच कार्यान्वीत आशिल्ली नामनेची रेल्वे वेवस्था (मॅट्रो) पुराय विद्युत् शक्तीचेर आदारिल्ली आशिल्ली. २६ नोव्हेंबर १९०३ दिसा ब्राउन बोव्हरी कंपनीन तयार केल्ल्या विजेच्या इंजिनान वराक २१० किमी. वेगाची तेंगशी गांठली.

पयल्या म्हाझुजाउपरांत डिझेल इंजिनाच्या आनी दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत विद्युत् इंजिनाच्या आदारान चलपी रेल्वे परिवहनाचो संवसारभर प्रसार जालो. अमेरिका आनी रशिया ह्या देशांतल्या लांब अंतराचे म्हाल येरादारीखातीर आनी महानगरी प्रवासी परिवहनाखातीर विद्युत् शक्तीचेर चलपी उज्यागाडयांचो चड प्रमाणांत वापर जावंक लागलो. युरोपांतल्या देशांत रेल्वेमार्गांची लांबाय उणी आसली तरी विद्युत् शक्तीचें उण्या खर्चांत उत्पादन शक्य आशिल्ल्यान थंय रेल्वे परिवहनान विद्युत् कर्षणाचो उपेग करताले. युरोपी देशांची संवसारांत जंय जंय साम्राज्यां आशिल्लीं, थंय लेगीत विद्युत् कर्षणाचो प्रसार केलो. देखीक, भारतांत पयली विद्युत् कर्षणान चलपी रेल्वे वेवस्था १९२५त सुरू जाली.

रेल्वे वेवस्थेंत विद्युत् कर्षण पद्धतीचो प्रसार जाता आसतनाच डिझेल कर्षण प्रकाराचोय कांय देशांत तितल्याच नेटान प्रसार जातालो. डिझेल इंजिनाचेर चलपी आनी रुळावयल्यान वचपी गाडयो युरोपांत १८९० आनी अमेरिकेंत १९०९ वर्सा सुरू जाल्यो. तरी तें इंजिन शक्तिमान करून ते वरवीं रेल्वे इंजिन तयार करपाक बरोच तेंप गेलो. डिझेल रेल्वे इंजीन हें डिझेल विद्युत् रेल्वे इंजिन आसता. म्हणजेच तें डिझेल इंजिनाच्या आदारान निर्माण जावपी आनी विद्युत् शक्तीच्या नेटार चलपी रेल्वे इंजीन आसता. अशे तरेचें पयलें डिझेल रेल्वे इंजीन तयार करून रुडोल्फ डिझेल ह्या जर्मन अभियंत्यान पर्शियन रेल्वे वेवस्थेच्या रेल्वेमार्गार चांचणी घेतली. जर्मनींत डिझेल - विद्युत् रेल्वे इंजिनाची पयली चांचणी जर्मनींत १९२४ वर्सा जाली आनी प्रत्यक्षांत शंटिंग इंजीन म्हणून ताचो उपेग १९३० वर्सासावन जालो.

१९३२ वर्सा डिझल रेल्वे इंजीन लायिल्ले पयले प्रवासी उज्यागाडयेचें उक्तावण अमेरिकेंतल्या बर्लिंग्टन रेलरोड हे कंपनीन सुरू केल्ल्या 'झेफर' नांवाचे उज्या गाडयेन जालें आनी तेन्नासावन

रेल्वे परिवहनांत डिझेल येरादारीचें पर्व सुरू जालें. जायत्या रेल्वे वेवस्थांनी डिझेल रेल्वे इंजिनाचे निर्मितीक उत्तेजन दिलें. दुसऱ्या म्हाझुजांत अमेरिकेंत जाल्ल्या प्रचंड म्हाल आनी सैनिकी येरादारेंत ३००० टन वजनाची उज्यागाडी सरासरी वराक ५० किमी. वेगान ओडून व्हरपी जनरल मोटर्सच्या डिझेल रेल्वे इंजिनाचो म्हत्त्वाचो वाटो आसा.

एकुणिसाव्या शतमानाचे अखेरेक तारायंत्राची निर्मिती जातकच एकाच रेल्वेमार्गार दोन स्थानकांमदीं एका वेळार एकूच उज्यागाडी वतली अशी यांत्रिक येवजण केल्ली. पूण गाडी मदीं अकस्मात थांबोवपाची गरज लागली जाल्यार प्रभावी गतीरोधक प्रणाली उपलब्ध जावची देखून मुळाव्या स्वरुपाची येवजण आरिवल्ली. फुडें अमेरिकेंत जॉर्ज वॅस्टिंगहाऊस ह्या अभियंत्यान एक स्वयंचलित वेग गतिरोधक प्रणाली तयार केली. हे येवजणेप्रमाण उज्यागाडयांच्या डब्यांक हवेच्या दाबांतल्या फरकाच्या आदारान चलपी गतीरोधक बसयल्ले आनी ते चालक वा रक्षक हांणी कार्यान्वित करपाची यंत्रणा उपलब्ध केल्ली. हे यंत्रणेक लागून उज्यागाडयांचे वेग सुरक्षिततायेक बादा येता आसतना वाडोवप शक्य जाता. हाचेभायर रेल्वे परिवहनांत आनीक दोन सुरक्षा साधनां आसात. तीं म्हळयार मध्यवर्ती परिवहन नियंत्रण हे वेवस्थेक लागून परिवहन नियंत्रकाक खंयच्या रेल्वेमार्गार इंजीन वा गाडी उबी आसा वा धांवता तें एका नकाशाचेर आपशींच ल्हान दिवे लागून कळटा आनी ते प्रमाण योग्य तरेन येरादारीचें नियंत्रण करूंक मेळटा. दुसरी सुरक्षा येवजण म्हळयार रेल्वेमार्गांत दोन रूळ जोडपी जोडावयल्यान गाडी वता आसतना जावपी आवाज, प्रवाशांक बसपी धक्के आनी सगळयांत म्हत्वाची गजाल म्हळयार जोडांतल्या यांत्रिक दोशांक लागून वा मानवनिर्मीत त्रुटिंक लागून जावपी संभाव्य अपघात, हें सगळें टाळपाखातीर जायते रूळ जोडकामान एकामेकांक जोडून दीर्घ अंतराचो अखंड रूळ करप.

**भारतीय रेल्वे :** रेल्वे हें भारतांतले येरादारीचें मुखेल साधन. भारतांतलो पयलो रेल्वेमार्ग मुंबय ते ठाणें हांचे मदीं १६ एप्रिल १८५३ दिसा सुरू जालो आनी ताची लांबाय सुमार ३४ किमी. आशिल्ली. पयले गाडयेक १४ डबे आनी ३ इंजिनां जोडिल्लीं. १८५४ - ६० ह्या काळांत आठ रेल्वे कंपन्यो स्थापन जाल्ल्यो. (१) इस्ट इंडियन रेल्वे (२) ग्रेट इंडियन पेनिन्सुला रेल्वे (३) मद्रास रेल्वे (४) बॉम्बे बरोडा अँड सँट्रल इंडिया रेल्वे (५) सिंदिया रेल्वे (६) इस्टर्न बँगॉल इस्टर्न रेल्वे (७) साउथ इंडियन रेल्वे (८) कलकत्ता अँड साऊथ रेल्वे. १८६९ - ८१ ह्या काळांत रेल्वे कंपन्यांनी आनी ब्रिटीश कंपन्यांनी मेळून सुमार १४९२० किमी. मेरेन गेजाचे रेल्वेमार्ग बांदले. इ.स. १८८१-१९०० ह्या काळांत बँगॉल सँट्रल रेल्वे (१८८१), रोहिलखंड अँड कुमाऊँ रेल्वे (१८८२), सदर्न मराठा रेल्वे (१८८२), इंडियन मिडलँड रेल्वे (१८८५), बँगॉल - नागपूर रेल्वे (१८८७), आसाम - बेंगॉल रेल्वे (१८९२) आनी बर्मा रेल्वे (१८९७) ह्यो कंपन्यो स्थापन जाल्यो. ह्या काळांत वट्ट ३३ रेल्वे कंपन्यो १८ मार्ग चलयताल्यो. १९०० उजवाडटा म्हळयार रेल्वेमार्गांची वट्ट लांबाय ३९,६०३ किमी. आशिल्ली. १९०५ वर्सा रेल्वे मंडळाची स्थापना जाली. १९०८ म्हळयार ह्या मंडळाची पुनर्रचणूक केली. ह्या काळांत सरकारान सुमार १६,००० किमी. लांबायेचे फांटे आनी पुरवण रेल्वेमार्ग बांदले. १९१५ म्हळयार रेल्वेमार्गाची लांबाय सुमार ५६,४५६ किमी. इतली जाली. पयल्या म्हाझुजांत आनी त्या उपरांतच्या काळांत (१९१४ - २१) भारतीय रेल्वे वेवस्था मोडकळीक आयली. तेरवातीर लश्करी नदरेन म्हत्वाचे अशे रेल्वेमार्ग बांदले. ताका लागून रेल्वेमार्गाची वट्ट लांबाय ५८७७६ किमी. मेरेन पावली.

नोव्हेंबर १९२० वर्सा सर हाचे अध्यक्षतायेखाल नेमिल्ले समितीन केल्ल्यो चडशो शिफारशी सरकारान आपणायल्ल्यो. १९२५ वर्सा सरकारान इस्ट इंडियन आनी ग्रेट इंडियन पेनिन्सुला हे कंपनीची वेवस्था आपणाकडेन घेतली. ताका लागून चडशा भारतीय लोकांक रेल्वेंत रोजगार मेळूंक लागलो आनी प्रवाशांच्या सूख-सोयींखातीर चड लक्ष दिलें. १९२४ वर्सा रेल्वे अर्थवेवस्था वेगळी करपाच्या प्रस्तावाक मंजुरी दिली.

इ.स. १९२५-३० ह्या काळांत रेल्वेची अर्थीक स्थिती कांय प्रमाणांत सुदारली. ह्या पांच वर्सांमदीं शिलकी उत्पन्न रु. ५२.६४ कोटी. ह्या काळांत मुंबय आनी चेन्नई ह्या वाठारांत विजेच्यो गाडयो सुरू जाल्यो. १९२९ - ३०त रेल्वेमार्गाची लांबाय ६६,७५८ किमी. आशिल्ली.

तेउपरांतच्या १९३१ - ३५ ह्या काळांतलो अर्थीक मंदीचो भारतीय रेल्वेचेर वायट परिणाम जालो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या पूर्वकाळांत रेल्वेचे अर्थीक स्थितींत सुदारणा जाली. १९३७ वर्सा भारतापसून ब्रह्मदेश वेगळो जालो. तेन्ना वट्ट रेल्वेमार्गांची लांबाय ३२०० किमी.न उणी जाली. १९३९त भारतीय रेल्वेमार्गाची वट्ट लांबाय ६५८५० किमी. आशिल्ली. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत भारतीय रेल्वे पयल्या म्हाझुजाच्या मानान चड सुसज्ज आशिल्ली. झुजा साहित्य व्हरपाखातीर खूब प्रमाणांत वागिणींचो वापर जालो. ताका लागून खाजगी उपेगारखातीर खुबूच थोडयो वागिणी उपलब्ध आशिल्ल्यो. १९४२ त झूज येरादार मंडळ स्थापन केलें. सुमार ६५०० किमी. लांबायेचे रेल्वेमार्ग काडून मेसोपोटेमिया आनी इराक ह्या देशांत धाडले. १९४३ - ४४ च्या बंगालांतल्या दुश्काळाक लागून रेल्वेमंडळामुखार पेंच निर्माण जालो. लश्करी आनी नागरी लोकांवांगडाच दुकळाच्या वाठारांत अन्नधान्य धाडपाची जबाबदारी रेल्वेचेर आयली. त्या काळांत रेल्वेन सदचेपरस दर म्हयन्याक सरासरी दोन कोटींपरस चड प्रवाशांची येरादारी केली.

भारताचे सुटकेउपरांत देशाचे फाळणेक लागून भारतीय रेल्वेचीय विभागणी जाली. लश्करी नदरेन म्हत्वाचे अशे रेल्वेमार्ग म्हळयार बँगॉल आसाम रेल्वेचो चडसो भाग आनी नॉर्थ वॅस्टर्न रेल्वेचो ४/५ भाग पाकिस्तानाकडेन गेलो. ह्या वेळार रेल्वे कर्मचाऱ्याचें स्थलांतरूय व्हड प्रमाणांत जालें. पाकिस्तानांतल्यान सुमार १०४००० कर्मचारी भारतांत आयले. जाल्यार भारतांतल्यान सुमार ८३,००० कर्मचारी पाकिस्तानांत गेले. राजकीय स्वातंत्र्य मेळटकच भारतीय रेल्वेक जायत्या अडचणींक तोंड दिवचें पडलें. आदलीं संस्थानां भारतीय संघराज्यांत विलीन जातकच भारत सरकाराच्या रेल्वेची मार्गलांबाय १२,०९६ किमी. न वाडली. ह्या संस्थानांचे रेल्वेमार्ग वेगवेगळया प्रकारांचे आनी वेगवेगळया आकारमानांचे आशिल्ले.

३१ मार्च १९७८ दिसा वट्ट रेल्वे वेवस्थांची णव परिमंडळांनी विभागणी केली. ह्या परिमंडळांचीं नांवां ताच्या मुख्यालयाचें ठिकाण आनी मार्गलांबाय (किमी.) अशीं आसात - मध्य (मुंबय - बोरीबंदर - व्ही.टी; ६८१५), उदेंत (कलकत्ता; ४२९१), उत्तर (नवी दिल्ली; १०९८७), ईशान्य वा उत्त-उदेंत (गोरखपूर ५१६३) ईशान्य सीमा (माली गांव - गौहाती; ३७६३), दक्षिण (चेन्नई; ६७५६), दक्षिण मध्य (सिकंदराबाद; ७२०४), अग्नेय वा दक्षिण उदेंत (कलकत्ता; ७११५), आनी अस्तंत (मुंबय-चर्चगेट ९८८९).

भारतीय रेल्वेवेवस्था ही आशियांतली सगळयांत व्हड आनी संवसारांतली पांचव्या क्रमांकाची. सुटकेउपरांत तिच्यांत जायती उदरगत जावन ३१ मार्च १९८८ दिसा ६१, ९७६ किमी. जाली. भारतांत ब्रॉड गेज, मिटर गेज आनी नॅरो गेज हे रेल्वेमार्गाच्या रुंदायेचे तीन प्रकार वापरांत आसात. १९७२ सावन वाफेच्या रेल्वे इंजिनाजाग्यार विद्युत् आनी डिझेल इंजिनां आयलीं. तशेंच संकेत निदर्शन आनी दूरसंदेशवहन हांच्या अद्ययावतीकरणांत आनी सुदारणेंत बरीच प्रगती जाली. उपरांत संगणकाचें युग रेल्वेंतूय पावलें. नवी दिल्ली, मुंबय, कलकत्ताच्यान येवपी गाडयांच्या आरक्षणाखातीर संगणकाचो उपेग करूंक लागले. तेभायर वाहनाचें वितरण आनी नियंत्रण हांचेखातीर तशेंच दर एके वागणिच्या आनी प्रवासी डब्याच्या स्थलांतराचो तपशील दवरपाखातीर संगणकाचो वापर करतात.

साहित्य सामग्रीचे बाबतींत भारतीय रेल्वेन स्वयंपूर्णतेचे नदरेन उल्लेख करपासारकी प्रगती केल्ली आसा. १९५१ - ५२ त योजनाबध्द विकासकार्यक्रमाचे सुरवेक भारतीय रेल्वे २३% साहित्य सामुग्री आयात करताली. १९८५ - ८६ म्हळयार हे आयातीचें प्रमाण ८.३% मेरेन उणें जालें. पंचवर्सुकी येवजणेंतूय रेल्वेच्या विकासाखातीर तरतूद वाडयली. भारतीय रेल्वेच्या प्रशासनाची आनी वेवस्थापनाची जबाबदारी रेल्वे राज्यमंत्र्याचे देखरेखीखाल रेल्वे मंडळ पळयता. ह्या मंडळांत रेल्वे मंत्रालयांतलो पदसिध्द मुखेल सचिव हो अध्यक्ष, एक अर्थीक आयुक्त आनी पांच वांगडी हांचो आस्पाव आसता. वट्ट रेल्वे वेवस्था णव परिमंडळांनी विभागिल्ली आसून दर एका परिमंडळाचो एक महावेवस्थापक आसता आनी तो रेल्वेचें कार्य, सांबाळ आनी अर्थीक गजाली हे नदरेन रेल्वे मंडळाक जबाबदार आसता. रेल्वे प्रशासन आनी जनता हांच्यांतल्या परस्पर सहकाराखातीर राश्ट्रीय रेल्वे उपेग कर्त्यांची सल्लागार समिती, परिमंडळीय रेल्वे उपेगकर्त्यांची समीती बी वेगवेगळयो समित्यो काम करतात.

१९२४-२५ वर्सासावन रेल्वेची अर्थवेवस्था सरकाराच्या सर्वसादारण उत्पन्नाचे बाबींसावन वेगळी केली. रेल्वेचो स्वताचो निधी आनी लेखा वेवस्था आसून संसदेक रेल्वेचें वेगळें अदमासपत्रक स्थापन करतात.

भारतीय रेल्वे इंजिनाचें उत्पादन चित्तरंजनांतल्या (अस्तंत बंगाल) चित्तरंजन लोकोमोटिव्ह वर्क्स आनी वाराणसी (उत्तर प्रदेश) हांगाच्या डिझेल लोकोमोटिव्ह वर्क्स ह्या कारखान्यांनी करतात. ते उपरांत मुखेल मार्गावयल्या विद्युत् आनी डिझेल द्रवीय शटींग इंजिनाचें उत्पादन करूंक लागले. ह्याच काळांत मिटर गेजावयलीं चडशीं वाफेचीं इंजिनां टाटा इंजिनियरींग अँड लोकोमोटिव्ह कंपनीन तयार केलीं. चित्तरंजन कारखान्यांत एकदिश विद्युत् प्रवाहाचेर चलपी पयलें इंजीन १९६१ - ६२त आनी पयलें डिझल इंजीन द्रवीय शंटिंग इंजीन १९६७-६८त तयार केल्लें. मुखेल मार्गावयलें डिझेल विद्युत्. इंजीन तशेंच जड कामाखातीर वापरतलीं शंटिंग इंजिनां वाराणसी हांगांच्या कारखान्यांत तयार करतात. ह्याच कारखान्यांत १९६३ - ६४ वर्सा ब्रॉड गेज इंजिनाच्या आनी १९६८ - ६९ वर्सा मिटर गेज इंजिनाच्या उत्पादनाक सुरवात जाली. ते उपरांत मात देशांत डिझेल विद्युत् इंजिनां आयात केलीं नात. प्रवासी सेवेखातीर लागपी डब्यांचें चडशें उत्पादन पेरांबूर (तमिळनाडू) हांगाच्या इंटिग्रल कोच फॅक्टरी ह्या कारखान्यांत जाता. ह्या उत्पादनाक पूरक अशें उत्पादन भारत अर्थ मुव्हर्स लि. आनी जेसप्स हे भौशिक मळावयले उपक्रम करतात आनी हे तीन कारखाने मेळून भारतीय रेल्वेची चडशी गरज भागयतात. डब्यांचीं चाकां आनी तांकां जोडपी आस तयार करपाखातीर १९८४ वर्सा बेंगलोर हांगा कारखानो स्थापन जालो. १९८८वर्सा थंय पयल्या डब्याची निर्मिती जाली. भारतांतल्यान टांझानिया, तैवान, युगांडा, ब्रह्मदेश, व्हिएटनाम, फिलिपीन्स आदी देशांक रेल्वे प्रवासी डबे निर्यात केल्यात. भारतीय रेल्वेची वागिणिची गरज भौशिक आनी खासगी मळावयले कारखाने मेळून भागयतात. तीन रेल्वे दुरुस्ती कर्मशाळा ह्या कारखान्याच्या उत्पादनाक पूरक अशें उत्पादन करतात.

रेल्वेच्या वावराच्या वेगवेगळया गजालींविशींचें संशोधन आनी तंत्रिक विकासाची जबाबदारी आशिल्लें रिसर्च डिझाइन्स अँड स्टँडर्ड्स ऑर्गनायझेशन ही वेगळी संस्था आसा. ही संस्था रेल्वे मंडळ, परिमंडलीय रेल्वे वेवस्था, उत्पादक कारखाने आनी उद्येग तशेंच वेपार हांकां सल्लो दिवपाचें काम करता. वाहनां रेल्वेमार्ग पूल आनी

हेर बांदकामां तशेंच रेल्वे वापरता ती साहित्यसामग्री हातूंत क्रमाक्रमान प्रमाणी करण करप हो हे संस्थेचो मुखेल उद्देश आसा.तशेंच रेल्वेच्या वावराच्या सगळया मळावयलें संशोधन हातांत घेवप हें हे संस्थेचें दुसरें म्हत्वाचें कार्य.

रॅड इंडिया टॅक्नीकल अँड इकॉनॉमिक सर्व्हिसेस आनी इंडियन रेल्वेस कन्स्ट्रक्शन कंपनी ह्यो भौशिक मळावयल्यो भारतीय रेल्वेच्यो दोन कंपन्यो आसून त्यो रेल्वेमार्ग तंत्रविद्या आनी रेल्वे प्रकल्पाची अंमलबजावणी करप हे विशींच्यो उच्च-पातळेवयल्यो सल्लागार सेवा दितात. पयली कंपनी येरादारी तंत्रविद्येक सगळया बाबींसंबंदींच्यो सल्लागार सेवा दिता, जाल्यार दुसरी भारतांत आनी परदेशांत पुराय रेल्वे प्रकल्पांची उबारणी करपाचें काम करता. ह्या कंपन्यांनी आल्जेरिया, झाईरे, घाना, फिलिपिन्स, नायजेरिया तशेंच सौदी अरेबिया, इराक, जॉर्डन आदी मध्य उदेंत देशांनी अशें कार्य केलां .

**येरादारी वेवस्था :** रेल्वे परिवहनाचो मुखेल उद्देश म्हळयार म्हाल आनी प्रवासी हांकां रोकडया रोकडे, सुरक्षीतपणान आनी किफायतशीरपणान हाड व्हर करप आसता आनी ही जबाबदारी रेल्वेच्या परिचलन आनी वाणिज्य ह्या दोन विभागांनी विभागिल्ली आसता. वाहनां (वागिणी आनी डबे) आनी इंजिनां ह्या साधनांचो चडांत चड कार्यक्षमतायेन उपेग करून म्हाल आनी प्रवासी येरादारीचो पांवडो वाडोवप ही परिचलन विभागाची जबाबदारी आसता. जाल्यार वाणिज्य विभाग रेल्वेच्या गिरायकांकडेन संबंद दवरून तांचे मागणेप्रमाण येरादार सेवा उपलब्ध करून दिवप आनी ताचेपसून फावो तें उत्पन्न मेळोवपाखातीर गिरायकाची क्षमताय आनी रेल्वेच्या परिवहनाखातीर जावपी खर्च ह्या दोगांयचो मेळ घालून येरादारीचे दर थारावप हाचेर केंद्रीत केल्ले आसतात.

वयर सांगल्या ती परिचलनाची जबाबदारी पुराय करपाखातीर योजनाबद्द कार्यप्रणाली ही वक्तशीरपणान आनी अचूकपणान यशस्वी करपाची कार्यक्षमताय गरजेची आसता. तशेंच येरादारीचे मागणेंत जावपी वाड लक्षांत घेवन तेचप्रमाण येरादारीची तांक वाडोवपाची येवजण आंखप चड गरजेचें आसता.

आगगाडी हें जरी परिचलनाचें एकक आसलें तरी तिका जोडिल्ल्यो जायत्यो वागिणी आसात. ज्यो सदांच एका स्थानकापसून आयिल्ल्यो नासतात आनी एकेचकडेन वचपीय नासतात. अशा शेंकड्यांनी वा हजारांनी वागिणिचे मार्ग कांय अंतराखातीर एकठांय आसतात जाल्यार बऱ्याच अंतराखातीर वेगवेगळे आसतात. ताका लागून रेल्वे परिवहन वेवस्थेंत जायत्या जाग्यार दरएके आगगाडयेक जोडिल्ल्यो वागिणी वेंचून त्यो वेगवेगळया दिशांक वचपी गाडयांक जोडच्यो पडटात. जायतेफावट एकाच कडल्यान वचपी वागिणी चड आसल्यार ताची एक पुराय गाडी तयार करतात. वागिणींची जोडणी आनी वेगळावपाचें काम हें वेळाचें आनी कटकटीचें आसता. जेन्ना अशो हजारांनी वागिणी अशे तरेन वेंचून परत त्या ठिकाणांच्या क्रमांकान तांची जुळोवणी करची पडटा, तेन्ना त्या कामांखातीर व्हड जुळोवणी आदारांची गरज लागता. अशे आवार सादारणपणान २०० ते ३०० किमी. अंतराचेर येवजिल्ले आसतात.

रेल्वे परिवहनांतले म्हाल येरादारीच्या आनीक एका खाशेलपणाक लागून रेल्वे परिचलन वेवस्थेचेर बरोच ताण पडटा. रेल्वेच्यो वागिणी गरजेप्रमाण धांपिल्ल्यो आनी उक्त्यो अशो दोन तरांच्यो आसतात. तातुंतल्यो धांपिल्ल्यो वागिणी धान्यां आनी हेर कृषीजन्य म्हालाची आनी अशे तरेच्या सैमीक आनी मानवी अरिश्टांपसून राखवणेची गरज आशिल्ल्या वस्तूंची हाड - व्हर करपाखातीर वापरतात. तशेंच उकते वागिणींतल्यान कोळसो, मीन, चुनो आदी खनीज पदार्थ हाड - व्हर करतात. खनीज म्हालान भरिल्ल्यो हजारांनी उकत्यो वागिणी एका विशिश्ट वाठारांत वा दिकेन धाडिल्ल्यो आसल्यार आनी त्या वाठारांत अशे वागिणींत भरपासारको म्हाल उपलब्ध नासल्यार त्यो वागिणी थंयच्यान रिकाम्योच परत धाडच्यो पडटात. अशी गजाल धांपिल्ल्या वागिणींच्या बाबतींतूय घडूंक शकता. अशे तरेन वागिणींक रिकामे स्थितींत प्रवास करचो पडटा. ताका लागून रेल्वे वेवस्थेक अर्थीक नुकसान सोंसचें पडटा. अशेंच प्रवासी येरादारी बाबतींतय घडूंक शकतात. प्रवाशी आगगाड्यांचे सगळेच डबे सुरवातीच्या स्थानकासावन निमाण्या स्थानकामेरेन वचपी नासतात. ताका लागून प्रवाशांक खुबूच त्रास जातात. १९४० वर्सा सावन आगगाडयांक आंतरस्थानकीय डबे जोडपाची प्रथा सुरू जाली आनी प्रवाशांची बरी सोय जाली. पूण अशे तरेच्या डब्यांची जोडणी आनी वेगळावणी करपाक खूब वेळ वता. तशेंच ही कारवाय करपाखातीर एक खास शटिंग इंजीन स्थानकाचेर सतत दवरचें पडटा. पूण हीच वेवस्था प्रवाशांक चड बरी पडटा.

माल आनी प्रवासी येरादारी करपी आगगाडयो रेल्वे परिवहनाच्या पयल्या शतकांत सादारणपणान एका इंजिनान ओडप जाताल्यो. पूण १९३० उपरांत म्हालवाहक आगगाडयांक दोन इंजिनां लावन ओडप आनी चडावाच्या मार्गार तिसरें इंजीन जोडून धुकलपाची चाल सुरू जाली. वाफेच्या इंजिना जाग्यार विजेचीं आनी डिझेलाचीं इंजिनां उपेगांत येतकच उत्तर अमेरिका खंडांत १५०-२०० इतल्यो वागिणी जोडिल्ल्यो व्हड उज्यागाडयो ५-७ डिझल इंजिनां लावन ओडटाले. तातुंतलीं तीन इंजिनां सगळया वागिणींच्या मुखार आनी हेर इंजिनां ५०-६० वागिणी उपरांत जोडटात. ह्या सगळया इंजिनांनी फकत पयल्याच इंजिनांत चालक आसता आनी तो हेर इंजिनां यांत्रिक साधनान नियंत्रणांत दवरूंक शकता. भारतीय रेल्वे वेवस्था अशे तरेच्या परिचलनाचे हालीं प्रयोग करता. चडशा देशांनी प्रवाशांची येरादार करपी उज्यागाडयांक आठ ते धा डबे जोडिल्ले आसतात. भारतांत रेल्वे प्रवाशांची संख्या खूब आशिल्ल्यान डिझेल वा विद्युत्

इंजिनाच्या आदारान १७-१८ डब्यांच्यो उज्यागाडयो १९७० उपरांत वचूंक लागल्यो. सद्याच्या काळांत दोन इंजिनां वापरून २२-२६ डबे जोडिल्ल्यो आनी सुमार अर्द किमी. लांबायेच्यो उज्यागाडयो अस्तित्वांत आयल्यात.

**वाणिज्य :** रेल्वे परिवहनाचे वाणिज्यनितीचीं दोन तासां आसात. तातुंतलो पयलो गिरायकाक जाय आशिल्ली परिवहन सेवा आयोजीत करून ती किफायतशीरपणान विकप आनी दुसरें, गिरायकाक दिल्ले सेवेचो मोबदलो तांचेकडल्यान वसूल करप. ह्या दोनय कार्यांनी रेल्वे परिवहनाच्या सुमार देडशें वर्सांच्या इतिहासांत सादरण तीन काळ दिसतात. (१) १८३०-१९१० (२) १९१०-६० (३) १९६० उपरांतचो काळ. हातुंतल्या पयल्या कालखंडांत उद्देगीक क्रांती आनी साम्राज्यशाय ह्या संवसारीक नाविन्यपूर्ण घडणुकांक लागून रेल्वे परिवहनाचो व्हड विस्तार जायत गेलो. रेल्वे परिवहनाचे वाणिज्यनितीची दुसरी वट म्हळ्यार दर निर्धारिण पद्दती. ही पद्दत कांय सर्वमान्य सिध्दांताचेर आदारीत आसता. रेल्वे परिवहन जायत्या प्रकारच्या म्हालांची आनी वस्तूंची येरादारी करता. ह्या मालांचें आनी वस्तूंचें मोल, मागणी, आकारमान आनी स्वरूप पावस-वाऱ्यापसून आनी चोरयेपसून राखण मेळची हे नदरेन त्या सगळया मालाचें आनी वस्तूंचें वर्गीकरण केल्लें आसता. तशेंच ९०% परस चड मालाची येरादारी पुरायपणान वागिणिंतल्यान जाता आसतना प्रत्यक्षांत माल येरादारीचे दर वेगवेगळया मालाखातीर, वेगवेगळया आकारमानाच्या वागिणिंच्या धारकतेचेर आदारीत आसतात.

**अर्थवेवस्था आनी वेवस्थापन :** रेल्वे परिवहनांत अर्थवेवस्था आनी वेवस्थापन ह्या दोनय घटकांचो म्हत्वाचो वाटो आसा.

**अर्थवेवस्था :** रेल्वे परिवहन हो संवसारांतल्या सगळया देशांनी खाजगी उद्देगधंदो म्हणून सुरू जालो आनी तेन्नाच्यान एका शतमानापरसूय चड काळ तो एक फायदेशीर उद्देगधंदो म्हणून चलयलो. तशेंच तातूंत गुंथयल्ल्या भांडवलाचेरूय उद्देजकांक भरपूर फायदो जालो. पूण दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत चड करून १९६० उपरांत ही परिस्थिती बदलली आनी हातूंत नुकसान जावकं लागलें. हाचीं मुखेल तीन कारणां आसात तीं अशीं - (१) खर्चांतली सुमाराभायर वाड चड करून १९७२-७३ (२) हेर परिवहन वेवस्थांचे सर्तीकलागून रेल्वेन वगडायल्ली उच्च दरान जावपी मालाची येरादारी (३) पयल्या कारणान गरजेची जाली पूण दुसऱ्या कारणान कठीण जाल्ली फाव तितली दरवाड.

ह्याच काळांत चडशा सगळया देशांनी रेल्वे परिवहन वेवस्थांचें राश्ट्रीयीकरण जाल्ल्यान ह्या वेवस्थांक जावपी नुकसान हेर भौशिक उद्देगांवरी सरकारी भांडारांतल्यान अनुदान, अंतरीम मदत वा रीण ह्या रुपान भरून काडप जातालें. तरी लेगीत भारतीय रेल्वेपरिवहनांत रेल्वे परिवहन ही एक भौशिक सेवा ह्या तत्त्वाचेर जनतेंत आनी राजकीय पांवड्यार लक्ष केंद्रीत केल्ल्यान आनी रेल्वे परिवहन हो एक उद्देगय आसा. हाचेकडेन आड नदर केल्ल्यान भारतीय रेल्वे परिवहनाक फक्त अर्थीक नुकसानूच सोंसचें पडलेंना जाल्यार यंत्रीक आनी तंत्रीक नदरेन तिच्यांत फावो ती उदरगत जालीना.

**वेवस्थापन :** रेल्वे परिवहन वेवस्थेची सुरवात चड करून खाजगी कंपन्यांनी केल्ल्यान ह्या उद्देगाची वेवस्थापन पद्दत वाणिज्यप्रधान आशिल्ली. पूण उण्या-चड प्रमाणांत तांचे कार्यपद्दतीचेर चड करून तंत्रीक बाबतींत त्या त्या देशांतल्या सरकाराचें नियंत्रण आसतालें. युरोपांतल्या चडशा देशांतल्यो रेल्वे परिवहन वेवस्था पयल्या म्हाझुझा उपरांतच्या काळांत पुराय तरेन राश्ट्रियीकृत जाल्ल्यान तांच्यो वेवस्थापन पद्दती त्या त्या देशांतल्या भौशिक मळावयल्या हेर उद्देगधंद्याचे पद्दतीचेर आदारीत आसात. भारतांत १९२५ वर्सा दोन रेल्वे कंपन्यांचें राश्ट्रियीकरण जाल्लें. १९४२ वर्सा चड करून भारतांतल्यो सगळयो रेल्वे वेवस्था पुराय तरेन सरकारी नियंत्रणाखाल आयल्यो. तशेंच रेल्वे परिवहन हो शासनाचो एक मुखेल विभाग जालो. शासकीय वेवस्थापनेचो एक म्हत्वाचो भाग म्हळ्यार अधिकारी आनी कर्मचारी हांची प्रशिक्षण वेवस्था. भारतीय रेल्वे वेवस्थेंत सुटकेउपरांत बरीच प्रगती जाल्या. रेल्वे कर्मचाऱ्यांक यंत्रीक आनी तंत्रीक प्रशिक्षण दिवपाखातीर रेल्वे परिमंडळाच्या दर एका विभागांत आधुनीक उपकरणांनी सुसज्ज आशिल्ली एक प्रशिक्षण संस्था अस्तित्वांत आसा. तशेंच अधिकाऱ्यांखातीर वेगवेगळया तंत्रांनी प्रशिक्षण दिवपी अखिल भारतीय मळावयल्यो संस्था आनी रेल्वे वेवस्थापनाचें संकलीत प्रशिक्षण दिवपी मध्यवर्ती संस्थाय स्थापन केल्ल्यो आसात. हातूंत जायत्या विकसनशील देशांतले रेल्वे अधिकारी प्रशिक्षणाखातीर येतात. भारतांत राजपत्रीत अधिकाऱ्यांखातीर चार मध्यवर्ती प्रशिक्षण संस्था आसात. इंडियन रेल्वेस इन्स्टिट्यूट ऑफ सिव्हिल इंजिनियर्स, पुणें ही संस्था स्थापत्य अभियंत्यांक प्रशिक्षण दिता. जाल्यार इंडियन रेल्वेस इन्स्टिट्यूट ऑफ सिग्नल इंजिनिअरींग अँड टेलिकम्युनिकेशन्स, सिकंदराबाद हे संस्थेंत संकेत आनी दूरसंदेशवहन विभागांतल्या अधिकारी आनी कर्मचारी हांकां प्रशिक्षण दितात. इंडियन रेल्वेस इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅकनिकल अँड इलॅक्ट्रिकल इंजिनियर्स, जमालपूर हे संस्थेंत शिकपी उमेदवार अधिकाऱ्यांक यंत्रीक आनी विद्युत् अभियांत्रिकीचें प्रशिक्षण दितात. तशेंच रेल्वे स्टाफ कॉलेज बडोदा हे संस्थेंत सगळया राजपत्रीत अधिकाऱ्यांक सादारण संकलीत प्रशिक्षण दितात.

रेल्वे परिवहनाच्या शासकीय वेवस्थापनाची रुपरेशा अशी आसता - देशांत सगळयांत उंचेल्या पांवड्याचेर रेल्वे मंडळ आसता. हें मंडळ देशांतल्या रेल्वे परिमंडळाचे कामगिरीचेर सादारण परिवेक्षण करता आनी सगळया म्हत्वाच्या गजालींनी धोरणात्मक निर्णय घेता. दर एका रेल्वे मंडळांत सद्या पांच ते आठ विभाग आसात आनी त्या त्या विभागांतल्या रेल्वे परिवहनाची मुखेल जबाबदारी विभागी

वेवस्थापकाचेर आसता आनी तेप्रमाण तांकां फावो ते अधिकार दिल्ले आसतात.

**आधुनिकीकरण :** दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत रेल्वे परिवहनाचे तंत्रविद्येंत उदरगत जाली ती सुरवेक फ्रांस देशांत १९५१ वर्सा त्या देशांतले राश्ट्रियीकृत रेल्वे वेवस्थेन विद्युत् शक्तीचेर आदारिल्ल्या रेल्वे परिचालनांत क्रांतीकारक बदल घडोवन हाडले. २५,००० व्होल्ट इतल्या व्हड विजेच्या दाबाचो उपेग करून ताच्या आदारान वराक २०० किमी. वेगान धांवपी प्रवासी उज्यागाडयो चालू केल्यो. थोड्याच काळांत हे तंत्रविधेचो प्रसार युरोपाभायर रशिया, चीन, जपान, भारत आदी देशांनी जालो. १९६४ वर्सा जपानी राश्ट्रीय रेल्वे वेवस्थेन टोकियो आनी ओसाका ह्या दोन महानगरांमदीं ५१० किमी. लांबायेचो एक आर्विल्लो आनी पुराय तरेन वेगळो असो रेल्वेमार्ग बांदून प्रवाशी येरादारी आधुनिकीकरणांतलो दुसरो म्हत्वाचो टप्पो गांठलो. ह्या रेल्वे मार्गाचेर वराक २१० किमी. आनी सरासरी १७० किमी. वेगान एका फाटोफाट एक अशो वचपी उज्यागाडयो चालू केल्यो. हातुंतल्यो 'जलद गाडयो' हें अंतर तीन वरां स मिनटांनी जाल्यार, मर्यादीत जलद' गाडयो हो प्रवास चार वरां धा मिनटांनी पुराय करताल्यो. ह्या नव्या अशा 'नव होक्कायडो' रेल्वेमार्ग नांवाचे रेल्वे वेवस्थेंत परिवहनाच्या मळार जायत्यो सुदारणा आनी नव्यो येवजणो आस्पाविल्ल्यो. पुराय रेल्वेमार्ग जमनीपसून ३ - ४.६ मी. उंचायेचेर बांदिल्लो आशिल्ल्यान वाटेंत हेर खंयचोय रेल्वेमार्ग वा भूमार्ग येवपाची शक्यताय उणी आसता. तशेंच मार्गावयले सगळे संकेत निदर्शनां चालकाक ताचे कुडींत वेगवेगळया रंगांचे दिप येवजणेन स्पश्ट दिसचें आनी ताणें फावो तें वेग नियंत्रण केलेंना जाल्यार तें आपशींच यंत्रीक येवजणेन जावचें अशी तंत्रीक वेवंस्था रेल्वे महामार्गावयल्या पुराय परिचलन संगणकाच्या आदारान नियंत्रीत करतात. जपानी राश्ट्रीय रेल्वेन चालू केल्ले हे प्रवासी रेल्वे परिवहन वेवस्थेचें आनीक एक खाशेलेपण म्हळयार तातूंत वापरिल्ली कर्शण पद्दत. म्हळयार खंयचेय उज्यागाडयेक वेगळें इंजीन लायनासतना उज्यागाडयेच्या कांय डब्यांनीच विद्युत् चलित्रां बसोवन ते वरवीं गाडी चलोवपाची पद्दत.

उपरांत १९८३ वर्सा फ्रेंच राश्ट्रीय रेल्वे वेवस्थेन पॅरिस ते लीआँ ह्या रेल्वेमार्गार वराक सरासरी २०० किमी. धांवपी आनी चडांत चड २६० किमी. ह्या तुफानी वेगान धांवपी उज्यागाडयो चालू करून एक नवो विक्रम प्रस्थापित केलो. टी. जी. व्ही. (गऋअङ्कत अ उऋअत्ठ घड्डदठथथठ) ह्या नांवान संवसारीक नामना मेळिल्ल्या ह्या फ्रेंच रेल्वे वेवस्थेन उज्यागाडयांचे संख्येंत आनी तांच्या लांब पल्ल्यांत वाड करून हरशीं हवाईमार्गान यो वच करपी हजारांनी प्रवाशांक हे अतीजलद उज्यागाडयेंतल्यान वचपाची आस निर्माण करून दिली.

रेल्वे परिचलनाच्या मळावयली एक नवी घडणूक म्हळयार १९७० उपरांत एक रुळावयल्यान वचपी उज्यागाडी. हे परिचालन पद्दतींत एक वा दोन डबे आशिल्ल्यो गाडयो जमनीसावन ९ -१२ मी. उंचायेचेर बांदिल्ल्या एक रुळी मार्गाक हुमकळत प्रवास करतात. एक रुळी परिवहन वेवस्थेची सुरवात अमेरिकेंत ११० प्रवासी घेवन वराक ३० किमी. वेगान कांय अंतर पुराय करताली. उपरांत फ्रांसांत अशी वेवस्था १२० प्रवासी घेवन वराक ८० किमी. वेगान येरादारी करूंक लागली. पूण तिचो कायम स्वरुपाचो आनी नियमीत वेळार यो वच करपाचो उपक्रम जपानांत १९७० वर्सा भरिल्ल्या आंतरराश्ट्रीय प्रदर्शनाच्या निमतान सुरू जालो. अशे तरेची एक रुळी रेल्वे परिवहन वेवस्था अमेरिकेंतल्या सिॲटल शारांत चार डबे आशिल्ल्या गाडयांनी सदांच १०,००० प्रवाशांची येरादारी करता. ही प्रवासी येरादारी हेर प्रगत देशांनीय चालू आसा.

रेल्वे परिवहनांतल्या प्रवासी येरादारीच्या आधुनिकीकरणांत रेल्वेच्या भुंयारी आनी पृश्ठभागावयल्यान वचपी येरादारी वेवस्थेचोय आस्पाव जाता. हातुंतले दुसरे वेवस्थेचे दोन विभाग पडल्यात. पयल्यांत भुंयारी रेल्वेमार्गार धांवपी आगगाडयो उपनगरांनी भूपृश्ठार धांवतात आनी दुसऱ्यांत उण्या वजनाच्या डब्यांची आनी रुळांची हलकी रेल्वे येरादारी प्रचलित आसता.

१९४० उपरांत आगगाडयांचे वेग आनी स्वरूप हातूंत नदरेंत भरपासारके बदल जाले. तेचवांगडा तातुंतल्यान प्रवास करपी लोकांच्या सूख-सोयींच्या येवजणांनीय खूब सुदारणा जाल्यो. भुंयारी मार्गान वचपी आनी पृश्ठमार्गावयल्यान अतीवेगान धांवपी आगगाडयांतल्या प्रवाशांक आवाजाचो, हवेंतल्या बदलत्या तापमानाचो आनी वेगवेगळया स्वरुपाच्या प्रदुशणाचो वायट परिणाम जावचो न्हय देखून सगळे डबे वातानुकुलीत करप गरजेचें जालें.

उपरांतच्या काळांत अमेरिका आनी युरोप खंडांतल्या कांय शारांत विमानतळासावन लागसारच्या रेल्वे स्थानका मेरेन वचपावातीर वा अशेच तरेच्या लागसारच्या दोन स्थानांमदीं एके वेळेक सुमार ४० प्रवाशांची परत परत येरादरी करपी आनी संगणकाच्या आदारान स्वयंचलीत आशिल्ली रेल्वे परिवहन वेवस्था उपेगांत हाडल्या.

१९५० वर्सा रेल्वे परिवहनांतले म्हाल येरादारींतय क्रांतिकारक बदल जाले. व्हड आकारमानाच्यो आनी चड वजन व्हरपी खूबशो (१०० ते २००) वागिणी जोडून केल्ल्या आगगाडयांनी थरावीक स्थानारसावन थरावीक थळार वाटेंत उण्यांत उण्या थळांनी रावून आपलो प्रवास पुराय करपाचो आनी आपल्या मूळ स्थानाकडेन रोखडेंच परत येवपाचें हें आर्विल्ल्या म्हाल परिचालनाचें मुखेल तत्त्व आसा.

अस्तंत्या देशांत १९६० उपरांत मालयेरादारी पद्दतींत एक नवें युग सुरू जालें आनी सद्या संवसारीक मळार ताचो प्रसार जालो. हे पद्दतींत वागिणींत माल भरिनासतना तो एके तिरव्या पेटयेंत भरप आनी अशो जायत्यो पेटयो यारीच्या आदारान वेगवेगळया परिवहन वेवस्थांतल्या वाहनाचेर घालप वा देंवोवप.

**फुडाराच्यो सुदारणा :** रुळावयल्यान धांवपी आगगाडयेच्या वेगाक रूळ आनी चाकां हांच्या घर्शणाक लागून एक मर्यादा पडटा. सादारणपणान वराक ३०० किमी. असो चडांत चड वेग उरता. फुडाराक ताचे परस चड वेग आसपाची गरज उपरासतली हें मतींत घेवन रेल्वे तंत्रज्ञानांचें ते नदरेन संशोधन चललां. तेरवातीर रुळावयल्यान चाकां धांवपाक पर्याय म्हणून रूळ आनी चाकां हांचे मर्दी अंतर दवरून धांवपी म्हणजेच रुळापसून कांय अंतरावयल्यान आगगाडी धांवपाची कल्पना १९३४ त मुखार आयली. तेरवातीर पयलीं विमानाअसले पंखे वा झोत प्रचालन हांचो वापर केलो. पूण हो प्रयोग यशस्वी जालोना. फुडें हेच कल्पनेचेर चुंबकीय वा विद्युत् गतीकी तंत्रान आगगाडयेक उखलून धरून गतीमान करपी यंत्रणा मुखार आयली. रूळ आनी चाकां हांचे मर्दी चुंबकीय आनी विद्युत् तंत्राच्या आदारान गाडयेक रुळापसून वयर काडून गती दिवपाची कल्पना प्रत्यक्षांत हाडप जाली.

मॅगलॅव्ह (Magnetic levitation) ह्या नांवान वळखतले हे आधुनिक तंत्रविद्येच्या संशोधनाक जपान आनी जर्मनीन विशेश प्राविण्य दाखयलें आनी वराक सुमार ४०० किमी. वेगान धांवपी आगगाडयेची निर्मिती केली.

भोवतेक हेर राश्ट्रांनी अशे तरेची महत्वेगवान आगगाडी निर्माण करपाची आपली मोख दवरल्या. भारतानूय हे कल्पनेची फाटपुरवण १९८९ त करपाची इत्सा दाखयल्ली आसली तरी प्रत्यक्षांत हे बाबतींत व्हडलीशी प्रगती जाल्ली ना.

**कोंकण रेल्वे :** कोंकण रेल्वे, महाराष्ट्र, गोंय आनी कर्नाटक ह्या तीन राज्यांतल्यान वता. महाराष्ट्रांत रोहा स्टेनावरवीं हो मार्ग सँट्रल रेल्वे मार्गाक जोडला जाल्यार कर्नाटकांतल्या मंगळूर स्टेशनावरवीं तो दक्षिण रेल्वेमार्गाक जोडला. रोहा ते मंगळूर अशी कोंकण रेल्वेची लांबाय ७६२ किमी आसा. भारतीय रेल्वे निगमान आयजमेरेन घेतिल्लो हो सगळयांत व्हडलो प्रकल्प.

ब्रिटीश राजवटींत १८८२ त कोंकण दर्यादिग मुखेल भारतीय रेल्वे मार्गाक जोडपाची येवजण आंखिल्ली. पूण सैमीक आडमेळयांक लागून ती येवजण चालीक लावपाक शक्य जालें ना. उपरांत १९८४त तात्पुरतें सर्वेक्षण करून कोंकण प्रदेशांत नवो रेल्वेमार्ग बांदपाची येवजण आंखली. १९८८त खोलायेन सर्वेक्षण करून कोंकण रेल्वे कॉर्पोरेशन लि. ही स्वतंत्र संस्था उबारली.

कोंकण रेल्वे प्रकल्पाचें काम ऑक्टोबर १९९० त सुरू जावन, उपरांत तें पावंड्यां पावंड्यांनी अशें डिसेंबर १९९७ मेरेन जालें. कोंकण रेल्वेमार्गाचेर वट्ट ५९ स्टेशनां आसात. पुराय जाल्ल्या ह्या ७६२ किमी. लांबायेच्या मार्गाचेर वट्ट ९२ बोगदे आसात. त्या सगळया बोगद्यांची मेळून वट्ट लांबाय ८३.६० किमी. तातुंतलो कारबुडेंचे (रत्नागिरी) बोगदो सगळयांत लांब आसून ताची लांबाय ६.५किमी. आसा. तशेंच तो भारतांतलो सगळयांत लांब बोगदो. कोंकण रेल्वेमार्गाचेर मुखेल अशें १७९ पूल आनी २,८१९ सादे पूल आसात. तातुंतलो शरावती न्हंयेवयलो पूल सगळयांत लांब (२०६५.८मी.). कोंकण रेल्वे प्रकल्पाक लागून फकत कोंकण प्रदेशाकूच न्हय, जाल्यार सबंद भारताक व्हड लाव मेळटलो अशें मत उक्तायलां. रेल्वे महामंडळाच्या मताप्रमाण (१९९८) कोंकण रेल्वेचो वट्ट खर्च सुमार ३२०० कोटी जातलो.

- कों. वि. सं. मं.

**रेवती :** *अश्विन्यादी गणनेंतलें २७ वें म्हळयार निमाणें नक्षत्र. हें मीन राशींत येता. उत्तर भाद्रपदांतल्या दक्षिण नखेत्राखाला सुमार १० अंशाचेर मंदप्रभ नखेत्रांची उदेंत - अस्तंत पातळिल्ली एक ओळ दिसता. ह्या सगळयांक रेवती म्हणिल्लें आसा. ज्योतिशग्रंथांत रेवतीच्या नखेत्रांचो आंकडो ३२ सांगिल्लो आसून तांचो आकार मृदंगावरी मानिल्लो आसा. हें नखेत्र मृदु - मैत्र तिर्यङ्‌मुख, अंधलोचन आसून पुषा ही ताची देवता. हें नखेत्र शुभ आसून, सगळे ग्रह ह्या नखेत्रांत बळिश्ट जातात.*

*हें नखेत्र देवगुणी आनी सदा सुखदायी आसून ह्या नखेत्राचेर जल्म घेवपी मनीस कसो जातलो हें कोष्ठीप्रदीपांत सांगलां तें अशें-*

चारुशीलाविभवो जितेन्द्रिय : । सत्कुल : स्वभवनैक मानसः
मानवो ननु भवेन्महीपती । रेवती भवति यस्य जन्मभम्।।

**अर्थ :** रेवती हें जाचें जल्मनखेत्र आसा असो मनीस सच्छील, वैभवशाली, जितेंद्रिय, राजा सत्कुलाचो आनी आपल्या घराचेर प्रेम करपी असो जाता. मार्कंडेय पुराणांत रेवतीची कथा दिल्ली आसा ती अशी - ऋतवाक नांवाचो एक मुनी आशिल्लो. ताचो पूत आडांगी आनी मवाली जालो. ऋतवाकाक ताचो हुसको जालो. एक दीस ताणें गर्गमुनीक आपली व्यथा सांगली. गर्ग हाणें सांगलें, 'तुजो चलो रेवती नखेत्राचेर जल्मला ताचें हें फळ'. तें आयकून ऋतवाकाक राग आयलो आनी ताणें शाप दिवन रेवतीक गगनमंडळांतल्यान स्थानभ्रश्ट केलो. तेन्ना रेवती एका पर्वताचेर पडली. त्या धक्क्यान थंय एक तळें तयार जालें. रेवती त्या तळयांत उदकाचें रूप घेवन शापीत जीण जगूंक लागली.

फुडें तिका थंयच एक चली जाली. प्रमुच नांवाच्या मुनीक ती चली दिसली. ताणें तिका आपल्या आश्रमांत व्हेली आनी ल्हानाची व्हड केली. फुडें दुर्गम नांवाच्या राजकुमाराक ही चली दिवची अशें थारावन ताणें उत्तरा-भाद्रपदा नखेत्राचेर तिचो लग्नम्हूर्त धरलो. पूण आपलें लग्न रेवती नखेत्राचेरूच जावंक जाय असो तिणें हट्ट धरलो. जेन्ना प्रमुचान ह्या हट्टाचें कारण विचारलें, तेन्ना तिणें रेवती ही म्हजी आवय आनी सद्या ती स्थानभ्रश्ट जावन तळयांत पडिल्ली आसा तेन्ना तूं तिचो उध्दार कर अशी मागणी केली. प्रमुच मुनीन तिचो हट्ट पुराय

केलो आनी रेवतीक उशाप दिलो, 'म्हज्या तप सामर्थ्यान तूं परत तुज्या जाग्यार वच'. ते बरोबर एक व्हड आवाज जावन तेजिश्ट रेवती तळयांतल्यान मळबांत गेली आनी आपल्या जाग्यार आरूढ जाली. फुडें ते चलयेक रेवती नांवाचो एक पूत जावन तो मन्वंतराधिपती जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**रेशीम :** रेशमी वस्त्र ह्या अती म्हत्वाच्या वस्त्रनिर्मितींतलो बॉम्बिक्स मोरी ह्या शास्त्रीय नांवाच्या आनी तुतीच्या पानांचेर जगपी रेशमाच्या किडयाच्या कोशावरणापसून मेळयल्ल्या धाग्याक सामान्यपणान रेशीम म्हण्टात. हेर कुळांतल्या किडयांचें कोशावरण जाळें आनी हेर पदार्थापासून रेशमासारके तंतू निर्माण करतात. पूण तांचो दर्जो उणो आसता आनी उपलब्धताय उणी आसता. तांचेपसून धागे तयार करपाची प्रक्रिया कठीण आसता. अशे तरेन रेशमासारके गूणधर्म आशिल्ले कांय कृत्रीम तंतू तयार केले तरी रेशमाचें म्हत्व तिगून उरलां.



रेशमाची कीड




रेशमाचे किडीच्या कोशावरणाचो छेद

रेशमाचो सोद नेमको केन्ना आनी कोणें लायलो हें सांगपाक जायना, पूण रेशमाच्या किडयांचें संगोपन आनी रेशीम तयार करपाची क्रिया इतिहासापयलींच्या काळांत सुरू जाली अशें मानतात. सादारणपणान ह्या किडयाचें संवर्धन पयलीं चीनांत सुरू जालें, जाल्यार कांय अभ्यासकांच्या मतान रेशीम निर्मिती भारतांत पयलीं सुरू जाली.

एके दंतकथेप्रमाण इ.स. पयलीं २६४०च्या अदमासाक चीनी सम्राट हुआंग - ती हाणें आपली बायल सी लिंग शी हिका आपल्या पोरसांतल्या तुतीच्या झाडाक कसली कीड लागल्या तें पळोवपाक सांगलें. तेन्ना तिका थंय एक धवी कीड आपलेभोंवतणीं चकचकीत कोशावरण तयार करतना दिसली. तिणें तें कोशावरण काडून हून उदकांत उडयलें, तेन्ना ताचेपसून कोळयाच्या जाळयाभाशेन नाजूक जाळें वेगळें जाल्ल्याचें तिका दिसलें. अशे तरेन रेशमाचो सोद लागलो अशें म्हण्टात. हाचेवयल्यान रेशमाचो वापर पयलीं चीनांत जालो अशें मानतात. शांग घराण्याचे कारकिर्दींत (इ.स. पयलीं १०२७ ते इ.स. १५२३) ह्या उद्देगाची चीनांत खूब उदरगत जाली. रेशमापसून सोबीत आनी तिगपी वस्त्र विणूंक येता हें कळटकच ताचें म्हत्व खूब वाडलें आनी तेखातीर किडयांचें संवर्धन करूंक लागले.

भारतांतल्या रेशीम उद्देगाविशींचे उल्लेख पुर्विल्ल्या संस्कृत वाङ्मयांत मेळटात. पूण हे उल्लेख चड करून रेशमाचे कपडे तयार करप आनी रेशमी कपडो विणप हेविशीं आसात. एके दंतकथेप्रमाण इ.स. पयलीं १४०च्या अदमासाक एके चीनी राजकन्येन तुतीच्यो बियो आनी रेशमाच्या किडयांचीं तांतयां आपल्या मुकुटांत लिपोवन दक्षिण चीनांतल्या आनी भारताचे शिमेलागसारच्या खोतान ह्या गांवांत हाडलीं. थंयसावन भारतांत हो उद्देग सुरू जालो आसुंये अशें कांय जाणांचें मत आसा. भारतांतल्यान तो हेरकडेन पातळलो. उपरांत तो अस्तंतेवटेन म्हळयार पर्शिया, अरबस्तान, तुर्कस्तान असो पातळत गेलो. थंयसावन आठव्या शेंकडयांत हो वेवसाय स्पेन, सिसिली (इटली) आनी आफ्रिकेची उत्तर दर्यादिग असो पातळलो अशें मानतात. इ.स. ३००च्या अदमासाक जपान, कोरियांत ही कला पावली आसुंये अशें मत आसा. बायबलाच्या पोरन्या करारांत रेशमाचो दोन खेपे उल्लेख आयला. ॲरिस्टॉटलाच्या Historia animalium ह्या पुस्तकांत रेशमाच्या किडयाविशीं म्हायती दिल्या. अभिजात वाङ्मयांत रेशमी कपडयाचे उल्लेख मेळटात. इ.स.चे सुरवेक सावनूच रोमाक रेशमाची आयात जाताली. पूण थंयच्या लोकांक रेशमाचे निर्मितीविशीं कांयच खबर नाशिल्ली. चीनाचो मात ह्या देशांकडचो रेशमाचो वेपार बरोच वाडिल्लो. पर्शियन वेपारी रेशीम उंटांचेर घालून हाडटाले. पयलीं तें रेशीम दमास्कसाक आनी उपरांत रोमी साम्राज्यांत व्हरताले. अशे तरेन रेशमाच्या विणकामाचो वेवसाय दुसऱ्या शेंकडयांत इजिप्त, सिरिया आनी पॅलेस्टायनांत आनी चवथ्या शेंकडयांत पर्शियांत उदरगतीक पावलो. अस्तंत देशांक रेशमाची वळख पयलीं इ.स. ५५० वर्सा जाल्ली आसपाची शक्यताय आसा. आठव्या आनी णवव्या शेंकडयांत रेशीम काडपाचे कलेचो प्रसार स्पेन, सिसिली, पुर्तुगाल आनी उत्तर आफ्रिकेंत जालो. ह्या काळांत बायझंटायन रेशमाची संवसारभर नामना जाली. बाराव्या शेंकडयांत इटली हें ह्या उद्देगाचें केंद्र जालें. १६८५ वर्सामेरेन फ्रांसांतूय ह्या वेवसायाची खूब भरभराट जाली. पूण फ्रेंच राज्यक्रांती उपरांत हो

वेवसाय नश्ट जालो आनी थंयचे विणकार इंग्लंडाक गेले. नेपोलियन आनी ताच्या उपरांतच्या काळांत फ्रांसांत रेशमाच्या किड्यांचें परतून संवर्धन करूंक लागले. इंग्लंडांत चवदाव्या शेंकड्यांत रेशमाचे निर्मितीक सुरवात जाली आनी सोळाव्या शेंकड्यात ह्या वेवसायाक नेट आयलो. १८६० वर्सा उपरांत हो नेट उणो जालो. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत युरोपांत स्विट्झर्लंड आनी जर्मनीक हो वेवसाय खूब भरभराटीक आयलो. रशियेंत १८९० वर्सा हो उद्देग सुरू जालो. अमेरिकेंत रेशमी कापडाची पयली गिरण १८७० वर्सा सुरू जाली, आनी एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणें ह्या उद्देगाची थंय वाड जाली. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक चीन, भारत आनी जपान कच्च्या रेशमाची निर्यात करपाक लागले. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत ग्रीस, स्पेन, ब्राझील, रशिया ह्या देशांनी ह्या उद्देगांत वाड जाली.

रेशमाच्या किड्याचे रानटी आनी संवर्धीत अशे दोन प्रकार आसात. हातुंतली तुतीच्या पानांचेर वाडयतात ती संवर्धीत प्रकारांतली बाँ. मोरी ही जात. हिचेपसून चडशें रेशीम मेळटा. तेच भाशेन बॉम्बिसिडी कुळांतल्या कांय हेर जातींचेंय संवर्धन करतात. साग, ऐन, ओक, एरंड ह्या रानटी रुखांचीं पानां खावन जियेवपी रानटी रेशमाच्या किड्यांच्यो खूब जाती आसात. तांचेपसून मेळपी रेशमाक टसर, एरी, मुगा अशीं नांवां आसात.

तांतीं, अळी वा सुरवंट, कोश आनी पारवो अशो पारव्याच्यो चार अवस्था आसात. तातुंतलो सुरवंट आपल्या संरक्षणाखातीर आपले भोंवतणीं कोशावरण तयार करून कोशावस्थेंत वता आनी ह्या कोशावरणापसून रेशीम मेळटा.

रेशमांत ७५% फायब्रोयन, २०% सेरिसीन, ३% मेण आनी १% ते २% हेर द्रव्यां आसतात. फायब्रोयनाचो दाट आनी नितळ स्त्राव तनित्रांतल्यान भायर येतना तातूंत सेरिसिनाचो स्त्राव मेळटा. हवा लागतकच फायब्रोयन घट्ट जाता आनी सेरिसिनान दोनूय तंतू दसून दोट्टी धागो तयार जाता. किडो शरिराची हालचाल करीत राविल्ल्यान हो धागो ताच्या शरिराभोंवतणी इंग्लीश आठ (8) आकाराप्रमाण घुस्पता. २४ वरांभितर किडो ह्या भायल्या जाळयांत लिपता. तीन ते पांच दिसांभितर कोशावरण पुराय जाता. कोशावरण तयार जातना किड्याचें शरीर बारीक जायत वता आनी कोशावरणाची लांबाय सुरवंटाचे लांबायेपरस उणी जाता. जाती आनी लिंग हांचेप्रमाण कोशावरणाचे आकार आनी आकारमानां वेगवेगळीं आसतात. तांची लांबाय १५ ते २५ मिमी. आनी व्यास १० ते २० मिमी. आनी वजन २.२ ग्रामांमेरेन आसता. सादारणपणान कोशावरणाचेर ६०० - ६७५ मी. धागो आसता. एकबार, दुबार, बहुबार आनी संकरीत जातींप्रमाण कोशाचें वजन, लांबाय, रुंदाय आनी धाग्याची लांबाय चड - उणी आसता. बहुबार जातीचे कोश उण्या दर्जाचे पूण एकबार जातीचे कोश खुबूच दर्जेदार आसतात. दुबार आनी संकरीत जाती प्रचलित आसून तांचेपसून मेळपी धागो सरासरी ६०० मी. आनी चडांत चड ९०० मी. आसता. कोशावरण तयार जातकच, तें हून उदकांत उडयतात वा ताका वाफ दितात आनी किड्याक मारतात. ना जाल्यार किड्याचें रुपांतर पारव्यांत जाता आनी तो कोश फोडून भायर सरता. कोश फुटल्यार रेशमाचो धागो तुट्टा. तेखातीर पयलीं किड्याक मारतात. उपरांत कोश बरे सुकयतात आनी गरजेप्रमाण धागो काडपाखातीर वापरतात. बरीं वेंचीक कोशावरणां वेगळीं काडून तांची पुराय वाड जावपाक दितात. तातुंतल्यान भायर पडपी नर - मादीचें तीन वरांभितर मिलन जाता. मादी एके खेपे २०० ते ५०० तांतयां घालता आनी रोखडीच मरता. रेशमाची उत्पादकताय आनी प्रत बहुवार जातीपरस दुबार जातींत चड आसा. पूण ताची वीण मात वर्सांतल्यान दोनूच खेपे जाता. सुप्तावस्थेंतल्या तांतयांचेर हायड्रोक्लोरीक आम्लाची प्रक्रिया करून तांतयां वर्सांतल्यान चड खेपे उबोवपाची तजवीज करतात. ताका लागून दुबार जातीचे गुणधर्म आनी जायते खेपे संगोपन आनी संवर्धन वर्सूयभर शक्य जाता.

बाँ. मोरी ह्या किड्याभायर ह्या कुळांतल्या तुतीच्या पानांचेर जगपी स जातींचें संवर्धन भारतांत करतात. बाँ. टेक्स्टॉर हे बंगालांतले जातीचे पारवे व्हड आसून तांचीं कोशावरणां मोव आसतात. बाँ. सायनेन्सिसच्यो वर्सांतल्यान जायत्यो पिळग्यो निर्माण जावपाक शकतात. बाँ. क्रोएसी, बाँ. फॉर्च्युनॅटस आनी बाँ. ॲरॅक्युनॅन्सिस ह्या जातींच्योय वर्सांतल्यान जायत्यो पिळग्यो निर्माण जावपाक शकतात. तशेंच फिलोसॅमिया सिंथिया, पॅचिपासा ओट्स, सॅमिया सेक्रोपिया, सॅ. ग्लोव्हरी, कॅलोसॅमिया प्रोमॅथी, टिलिया, पॉलिफेम्स आनी ऑटोमेरिस जो. अशो हेर साबार संवर्धीत जाती अस्तित्वांत आसात. जायत्या रानटी पारव्यांचे सुरवंटय रेशमाचीं कोशावरणां तयार करतात. पूण तांचेपसून मेळपी रेशीम बऱ्या दर्जाचें नासता. जगांतल्या रेशमाच्या वट्ट उत्पादनांत रानटी रेशमाचो वांटो १-२ टक्के आसा. ह्या किड्यांचे टसर, एरी आनी मुगा हे मुखेल प्रकार आसात. हांचेभायर सगळ्या तरांच्या पानांचेर जगपी ॲटॅकस ॲटलास ही रानटी जात भारत, श्रीलंका, ब्रह्मदेश, चीन आनी जपानांत वाडयतात.

रेशमाच्या किड्यांचें संगोपन करपाखातीर चड करून भारतांत आनी युरोपांत तुतीची मोरस इंडिका ही जात लायतात. ह्या पानांचेर वाडिल्ल्या किड्यांपसून चड घट्ट रेशीम मेळटा आनी ताचो वापरय फायद्याचो आसता.

उश्ण प्रदेशांनी तांतयां सैमीक रितीन उबयतात. हेर जाग्यांनी मात उबोवपाखातीर तांकां कृत्रीम रितीन ऊब दिवची पडटा. तुतीच्या झाडाक कोमऱ्यो येवपाच्या वेळार तांतयांतल्यान सुरवंट भायर येवचो अशे तरेन तांतयां उबयतात.

रेशमाचे किडे आनी पारवे हांकां जावपी रोग म्हळयार मिरी रोग (पेब्रायन), मस्कारडीन, फ्लॅचेरी आनी ग्रासेरी. हाचेभायर गॅटीन आनी हेर सूक्ष्मजंतुजन्य रोगूय रेशमाच्या किडयाक जातात. तशेंच तांकां ऊझी मूस, चानी, मूय, पाल, हुंदीर, सवणीं ह्या प्राण्यांपसून त्रास जाता.

रेशीम हो सगळयांत घट्ट सैमीक धागो. तो खूब लवचीक तशेंच तो चड आर्द्रताय शोशक आशिल्ल्यान ताचेर रंग चड गाड आनी समृध्दपणान बसता. अशे तरेन रेशमाचें कापड वजनान हलकें, ऊबदार, चकचकीत, उंची आनी ओडलायणें दिसता. रेशमाचे कांय रसायनीक आनी भौतीक गूणधर्म अशे आसात-

**१) रसायनीक :** रेशीम हे चड करून फायब्रोयन (७० ते ८० टक्के) आनी सेरिसीन (२० ते ३० टक्के) ह्या दोन प्रथिनांपसून तयार जाल्लें आसून हांचेभायर तातूंत मेण, रंगद्रव्य, गोबर कांय प्रमाणांत आसता. चड करून फायब्रोयनाचे दोन धागे सेरिसिनान चिकटावन रेशमाचो धागो तयार जाल्लो आसता. फायब्रोयन हें उभयधर्मी कलिल (आम्लीय आनी क्षारीय गूणधर्म) दाखोवपी आनी अतिसुक्ष्म कण जातूंत हुमळटात अशें मिश्रण) आसा. क्ष-किरणांपसून हाची स्फटिकीय रचणूक उकती जाता. थंड आनी संहत (विद्रावांतलें प्रमाण चड आशिल्लीं) खनिज आम्लां, दाहक क्षार (आलकली) आनी आमोनियायुक्त कॉपर ऑक्सायड हांचेभितर तें विरगळटा.

सेरिसीन हें प्रथीन फायब्रोयनापरस रसायनीक नदरेन चड क्रियाशील आसा. गरम उदक, आम्ल वा क्षार विद्रावांतल्यान हें फायब्रोयनापसून वेगळें काडपाक येता.

हून ॲसिटीक आनी फॉर्मिक आम्लांचो तशेंच ऑक्झॅलिक, सायट्रिक, टार्टारिक ह्या कार्बनी अम्लांचो रेशमाचेर सवकाश परिणाम जाता. कांय रसायनांत घालून तापयल्यार रेशीम विरगळटा जाल्यार कांय रसायनांनी ताचो रंग बदलता.

**भौतीक :** कच्चें रेशीम हळदुवसार रंगाचें आनी ताची चकचकसाण मातशी मंद आसता. तातुंतलो चिकट पदार्थ काडून उडयल्यार मात तें चकचकीत, मोव आनी धवसार दिसता. सुक्ष्मदर्शकारवाला रेशमाचो धागो भरड, खडबडीत दिसता. ताचेर सेरिसिनाच्या थराचेर घडयो, तडे पडून तो ओबड-धोबड जाल्लो दिसता. ध्रुवीत (एकाच प्रतलांत कंप पावपी) उजवाडांत पळयल्यार तो वर्णविलास दाखयता. रेशमाचो कापिल्लो छेद चड करून मातसो त्रिकोणी दिसता. सगळया सैमीक धाग्यांमदीं रेशमाचें ताणबल सगळयांत चड (दर चौ. सेंमी.क ४,४९५ किग्रा.) आसा. कच्च्या रेशमाचे वि.गु. १.३३ जाल्यार प्रक्रिया केल्ल्या पक्क्या रेशमाचे वि.गु. १.२५ - १.२७ इतली आसता. रेशमाचो धागो दामल्यार एके तरेचो आवाज येता. रेशमाची जल शोशण तांक ३० टक्के आसा. रेशमाचो ज्वलनांक १४०° सॅ. आसून ११०° सॅ. तापमानाचेर १५ मिनटां तापल्यार तें हळदुवसार जाता आनी १६७° सॅ.क. ताचें अपघटन जाता (घटक द्रव्यां वेगळीं जातात). जोतीचेर धरल्यार रेशीम विरगळून ताची गुठली जाता आनी जळटा. रेशीम जळटना केंस वा पारवां जळिल्लेभशेन वास येता.

**कापडनिर्मिती** - रेशमाचो धागो मागाचेर वा सुयांनी विणून रेशमी कापड तयार करतात. मागाचेर विणिल्लें कापड रेशमी कापड विणपाखातीर वापरतात. ते माग सुती वा लोकरी कापडांखातीर वापरतात त्या मागांभाशेनूच आसतात. चडशा देशांनी यंत्रमाग चड प्रमाणांत वापरतात. पूण हातमागांचोय वापर जाता. जकार्ड मागाचेर सोबीत नक्षीकाम आनी आकृतिबंध विणपाक मेळटात. रेशमी कापडाखातीर चड करून हेच माग वापरतात. मागाचेर कच्चें रेशमी कापड तशेंच साडयो, पैठण्यो, कद, पीतांबर हींय वस्त्रां विणपाक येतात.

सुयांनी करपाचें विणकाम - हाचे ट्रायकॉट आनी मिलानीझ अशे दोन प्रकार आसात आनी ते हातांनी वा यंत्रान करतात.

**कापडाचे प्रकार** - रेशमी कपड्याचे जायते प्रकार आसून ते खूब पयलींपसून तयार करतात. तातुंतले टफॅटा, सॅटीन, शिफॉन, क्रॅप, क्रॅप द शिने, शॅटुंग, सुरा, ऑर्गन्झा आनी फायली हे चड प्रमाणांत वापरांत आशिल्ले लोकप्रिय प्रकार. तशेंच भारतांत साडी, धोतर, कद, पैठणी, पीतांबर, टाय आनी मफलराचे कपडे,शर्ट आनी सूट हांचे लुगट, भरतकाम केल्ले कपडे, शाली, गालीचे, ब्रोकेड अशें जायत्या तरांचें कपडे वा वस्त्रां तयार करतात.

रेशमाचें संवसारीक उत्पादन (टनांत)

| देश | १९६० | १९७० | १९८० | १९८२ |
|---|---|---|---|---|
| जपान | १८,०४८ | २०,५१५ | १६,१५५ | १३,००० |
| चीन | ७,००० | ११,१२४ | ३५,३६४ | ३८,४०० |
| रशिया | २,१५८ | ३,००० | ३,६०४ | ३,७०० |
| भारत | १,१५४ | २,२५८ | २,६२५ | २,६५० |
| द. केरिया | ४७० | ३,०२६ | ३,४२२ | १,९७८ |
| ब्राझील | - | २५९ | १,००० | १,२०० |
| हेर | २,३४० | ५०८ | १,१३८ | २,२२६ |
| वट्ट | ३१,१७० | ४१,००० | ६४,१०८ | ६३,१५४ |

रेशमाचे निर्यातीविशीं फुडारिल्ल्या राश्ट्रांपरस विकसनशील देश मुखार आसात. निर्यातींत चीन आधाडीचेर आसून ताचे फाटोफाट दक्षिण कोरियाचो आंकडो लागता. रेशमाचे आयातींत जपान फुडारिल्लो आसून ताचे फाटोफाट अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, ब्रिटन, अस्तंत जर्मनी, फ्रांस, चीन आनी स्वित्झर्लंड हांचो आंकडो लागता. भारताची रेशमाची आयात १९८० उपरांत थीर रावली.

रेशमाच्या संवसारीक आयात - निर्यातीची आंकडेवारी (वजन टनांत आनी मोल हजार डॉलरांनी)

| देश | आयात | | | | | | निर्यात | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | १९७८ | | १९७९ | | १९८० | | १९७८ | | १९७९ | | १९८० | |
| | वजन | मोल | वजन | मोल | वजन | मोल | वजन | मोल | वजन | मोल | वजन | मोल |
| अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां | ९०२ | ८,६५७ | ७०९ | ११,०४६ | ४७७ | ६,८०७ | — | — | — | — | — | — |
| चीन | १३१ | ३,०१७ | २९८ | ९,२४७ | ४०० | १३,००० | १२,२७८ | २,४२,०५५ | १२,०७८ | २,९३,७१३ | ८,१५० | २,१२,००० |
| हाँगकाँग | ५६९ | १५,२१६ | ४५८ | १०,३१५ | ३८३ | ९,४४९ | ४१९ | १८,६९० | १८४ | ४,८०४ | १८४ | ४,३२४ |
| भारत | १५८ | ३,९४१ | १८० | ३,७०० | १८० | ४,००० | १,६७० | ५,०८३ | १,००० | ३,००० | ४५० | १,८०० |
| जपान | ११,९५५ | २,७३,७८७ | ८,७५४ | २,३६,८५० | ६,२१७ | १,५९,६१५ | १,७४५ | ९,३०३ | ९७९ | ७,५०५ | ५१७ | २,६५१ |
| सिंगापूर | ४८ | ८२१ | १४४ | ४,२६३ | १७३ | ५,७३६ | २२ | ३६२ | ९३ | २,९५७ | ८७ | २,८५९ |
| थायलंड | ८५ | १,३१४ | १३२ | १,९५५ | १०० | १,८०० | — | — | — | — | — | — |
| फ्रांस | १,४५० | २३,८६२ | १,११२ | २४,४८८ | ८४५ | २१,४६३ | — | — | — | — | — | — |
| अ. जर्मनी | १,२७२ | १०,८४४ | ९०० | ११,५३१ | ७१२ | ७,८२९ | २६० | १,५६२ | ३२१ | २,८७० | ४३९ | २,९५० |
| इटली | ६,२५६ | ८०,८३६ | ६,८१८ | १,३५,४८२ | ३,९६८ | ८२,७६४ | ११० | १,२३० | ८१ | २,३२२ | ९६ | ३,१२४ |
| स्विट्झर्लंड | ५१८ | ९,५४४ | ४८५ | ९,९२४ | ४७३ | ९,९४० | १५८ | २,६९० | ९४ | २,३०८ | ११० | २,७८१ |
| ब्रिटन | ४३२ | ३,८६५ | ३०७ | ४,१९७ | १३६ | ४,५५५ | — | — | — | — | — | — |
| रशिया | — | — | — | — | — | — | २,२०७ | ७,५६२ | २,०७९ | १०,४२० | १,९१४ | ७,०५३ |
| द. कोरिया | — | — | — | — | — | — | २,४९९ | ६६,९४२ | १,०६० | ४२,२१० | ६४६ | २०,११० |
| बल्गेरिया | — | — | — | — | — | — | २३५ | २,३५० | ४१७ | ५,००० | १८५ | २,२५० |
| ब्राझील | — | — | — | — | — | — | ३८१ | १,२३५ | ३६६ | १,२५६ | ९५० | ४,५०० |
| उ. कोरिया | — | — | — | — | — | — | ९०० | १३,००० | ६५० | ११,००० | ९५० | १७,५०० |

भारतांत रेशीम उद्येग खूब पुर्विल्ल्या काळापसून चालू आसा. रामायण, महाभारत सारकिल्ल्या पोरन्या संस्कृत ग्रंथांत रेशमाचो उल्लेख कौशिकम् (कोशावरणापसून तयार केल्लें) चीनांशुक ह्या नांवान केल्लो मेळटा. भारतांतल्यान रेशमी वस्त्रांची युरोप, मध्य - उदेंत आशिया, इजिप्त आदी प्रदेशांनी जाताली. रोमी साम्राज्य, युरोप, मध्य उदेंत आशिया, इजिप्त ह्या प्रदेशांनी भारतीय रेशमी वस्त्रांखातीर व्हड बाजारपेठ आशिल्ली. रेशमाचें भरतकाम, विणकाम हीं भारताचीं खाशेलपणां आसून भारतीय कारागीर तातूंत खुबूच हुशार आशिल्ले. तशेंच ह्या उद्येगाक राजाश्रय मेळिल्ल्यान उद्येगाक थिराय फावो जाली आनी ताची उदरगतूय जाली. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत भारतीय रेशीम जगांत मोलादीक समजताले. ह्या काळामेरेन दर वर्सा सु. १० लाख किग्रा. रेशीम आनी रेशमी वस्त्रां भारतांतल्यान निर्यात जातालीं. मदीं ह्या धंद्याक मातशी देंवती कळा लागली. पूण ताची कला मात तिगून उरली.

चड - उतार जावन १९२०त रेशीम उद्येगाक पुनर्जल्म मेळ्ळो. १९३९ मेरेन हो उद्येग बंद पडपाचे वाटेर आशिल्लो. दुसऱ्या म्हाझुजान मात ह्या उद्येगाक बरेंच उत्तेजन मेळ्ळें. १९७५ मेरेन आनी उपरांत फुडेंय ह्या उद्येगाक जकातविशयक संरक्षण दिलें.

इ.स. १९४५त रेशीम विकास संचालनालयाची स्थापना जाली. फुडें ताचें केंद्रीय रेशीम मंडळांत रुपांतर जालें. तशेंच पंचवर्सुकी येवजणुकेचे सुरवातीकच केंद्रीय रेशीम मंडळाक थिराय फावो जाल्ल्यान ह्या उद्येगाची नेटान उदरगत जाली.

भारतांतल्या कच्च्या रेशमाचें उत्पादन (टनांत)

| | तुती रेशीम | | | | | बिगर तुती रेशीम | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | फिलेचर | सुदारीत यंत्र | चरखो | डुपियन | वट्ट | टसर | एरी | मुगा | वट्ट | वट्ट |
| १९७०-७१ | २०० | ४६५ | १,६०७ | ४७ | २,३१९ | ३७१ | १६१ | ६३ | ५९५ | २,९१४ |
| १९७५-७६ | २४० | ९३६ | १,३९२ | ५२ | २,५४१ | ३६० | १२३ | ४३ | ५२६ | ३,०६७ |
| १९८०-८१ | - | - | - | - | ४,५९३ | २६५ | १३५ | ४८ | ४४८ | ५,०४१ |
| १९८१-८२ | - | - | - | - | ४,८०१ | २५७ | १४७ | ४४ | ४४८ | ५,२०९ |
| १९८२-८३ | - | - | - | - | ५,४८८ | - | - | - | ४८९ | ५,९०७ |

भारतांतलें राज्यवार रेशीम उत्पादन (टनांत)

| राज्य | १९८०-८१ | | | | १९८१-८२ | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | तुती | टसर | एरी | मुगा | तुती | टसर | एरी | मुगा |
| आंध्र प्रदेश | ७९७ | १ | - | - | ५९४ | १ | - | - |
| आसाम | ७ | - | ११० | ४८ | ११ | - | ११६ | ४४ |
| बिहार | १ | १६८ | ८ | - | ७ | १७० | १३ | - |
| हिमाचल प्रदेश | १ | - | - | - | २ | - | - | - |
| जम्मू आनी काश्मीर | ७६ | - | - | - | ७६ | - | - | - |
| कर्नाटक | २,८७८ | - | - | - | 3,000 | - | - | - |
| मणिपूर | ५ | २० | ९ | - | ५ | २० | ९ | - |
| तमिळनाडू | ४६७ | - | - | - | ५30 | - | - | - |
| अ. बंगाल | ३५५ | ९ | ७ | - | ५ | ११ | ८ | - |
| उत्तर प्रदेश | ५ | - | - | - | ५ | - | - | - |
| मध्य प्रदेश | - | ६५ | - | - | - | ५३ | - | - |
| हेर | १ | २ | १ | - | १ | २ | १ | - |
| वट्ट | ४,५९३ | २६५ | १३५ | ४८ | ४,८०१ | २५७ | १४७ | ४४ |

- कों. वि.सं.मं.

**रे, सत्यजित :** (जल्मः २ मे १९२१ कलकत्ता; मरणः १९९२). बंगाली चित्रपटसृश्टींत नवचैतन्य निर्माण करपी कलावंत निर्मातो. एक खापो निर्मातो म्हूण ताची नामना भारतांतूच न्हय तर युरोप आनी अमेरिकेंतूय आसा. सत्यजित रे हो मुखेलपणान चित्रकार आशिल्लो. उपरांत तो चित्रपटसृश्टींत वळ्ळो. ताचो बापूय सुकुमार रे आनी आजो उपेंद्रकिशोर हे दोगूय कलावंत, लेखक आनी चित्रकार आसले. आवय सुप्रभादेवी हि लेगीत



कलानिपुण आशिल्ली. तो तीन वर्सांचो आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयिल्ल्यान ताचें शिक्षण आनी संगोपन आवयनूच केलें. कलकत्त्याच्या सिटी कॉलेजातल्यान अर्थशास्त्र घेवन पदवी मेळयल्याउपरांत ताणें चित्रकलेच्या उच्च शिक्षणाखातीर शांतिनिकेतनांत प्रवेश घेतलो. ल्हानपणासावन चित्रकलेची आवड आनी ताच्या बापायचे आनी आज्याचे रवींद्रनाथ टागोरांकडेन लागीचे संबंद आशिल्ल्यान ताका शांतिनिकेनांत सहजपणान प्रवेश मेळ्ळो. थंयच्या कलाभवनात प्रसिद्द चित्रकार नंदलाल बोस हाच्या हाताखाल ताणें दोन वर्सां चित्रकलेचें अध्ययन केलें. ह्या चित्रकलेंतल्यानच ताच्या चित्रपटांचो जल्म जालो अशें म्हण्टात.

फुडें १९४३ त पिरायेच्या २२ व्या वर्सा कमर्शियल आर्टिस्ट म्हूण ब्रिटीश पब्लिसिटी आर्टस् हे जाहीरात कंपनीत ताका काम मेळ्ळें. हे कंपनीत नोकरी करता आसतनाच ताणें फिल्म वेवसायाचो अभ्यास सुरू केलो. तेरवातीर ताणें त्या काळांत शेंकड्यांनी अमेरिकन आनी फ्रेंच चित्रपट पळयले. उपरांत तेच कंपनिचो तो डायरेक्टर जालो. १९५० त कंपनिच्या कामाखातीर तो लंडनाक गेल्लो तेन्नाय ताणें खूब चित्रपट पळयले. तातुंतलो 'बायसिकल थीफ' (सायकल

चोर) ह्या इटालियन चित्रपटान ताच्या मनाचेर सगळयांत चड परिणाम जालो.

लंडनसावन परतल्या उपरांत ताणें विभूतिभूषण बेनर्जी हाचे 'पाथेर पांचाली' कादंबरीवयल्यान चित्रपट कथा तयार केली. पूण ह्या वेवसायांत तो नवो आशिल्ल्यान स्वंयचीच फिल्मकंपनी ती हातांत घेवपाक तयार नाशिल्ली. हाका लागून ताणें रिण काडून आनी मालमत्ता विकून तो चित्रपट तयार करपाचें थरयलें. पूण ताका यश आयलें ना. निमाणेकडेन १९५५ त बंगाल सरकारच्या आदारान तो चित्रपट तयार जालो. ल्हव ल्हव तो चित्रपट खूब प्रसिद्द जावन ताका खूब पुरस्कारूय मेळ्ळे.

पथेर पांचाली उपरांत अपराजितो (१९५६), अपूर संसार (१९५९) हीं दोन सलग चलचित्रां निर्माण केलीं. मजगतीं ताणें परश पथर (१९५७), जलसाघर (१९५९) हीं दोन चलचित्रां तयार केलीं. देवी (१९६०) हेंय चलचित्र बंगालच्या सरंजामदारी परंपरेचे फाटभुंयेचेर आशिल्लें. ह्या पयल्या स चलचित्रांक पं. रवी शंकर, विलायत खाँ, अली अकबर खाँ अशे नामनेचे संगीत दिग्दर्शक लाबले. उपरांतच्या सगळया चलचित्रांक मात बरो जाणकार आशिल्ल्या सत्यजित रे हाणें संगीत दिलें. १९६१ वर्सा रवींद्रनाथ टागोराच्या जल्मशताब्दी निमतान ताचे जिणेच्या कार्याचेर आदारीत एक अनुबोधपट तयार केलो. तेभायर टागोराचे कथेचेर 'तीन कन्या' हें चलचित्र त्याच वर्सा निर्माण केलें. ते उपरांत कांचनजंगा आनी अभिजान महासागर (१९६३), चारूलता (१९६४), कापुरुष ओ महापुरूष (१९६५) आनी नायक (१९६६) हीं उत्तमोत्तम चलचित्रां ताणें दिग्दर्शीत केलीं. चिडियाखाना (१९६७), गोपी ग्याने बाघा ब्याने (१९६८), सोनार केल्ला (१९७४), हीं चलचित्रां ताणें खास भुरग्यांखातीर तयार केलीं. अरण्येर दिन रात्री आनी प्रतिद्वंदी (१९७०), सीमाबध्द (१९७१) आनी दुसऱ्या महाझुजाचे फाटभुंयेचेर, १९४३ च्या मानवनिर्मीत दुकळाचें चित्रण करपी 'अशनी संकेत' (१९७३), जनअरण्य (१९७५), शतरंजी के खिलाडी (१९७७) स्वताच बरयल्ले गुप्तहेर कथेचेर आदारीत 'जय बाबा फेलुनाथ' (१९७८) हीरक राजर देशे (१९८०), घरे बैरे (१९८४) हीं चल चित्रांतयार केलीं.

तो अश्टतासांचो कलावंत आशिल्ल्यान साहित्य, चित्रकला, संगीत, रेखन, छायाचित्रण अशा वेगवेगळया कलाक्षेत्रांनी ताणें निर्मिती केली. चलचित्रां प्रमाण उत्कृश्ट साहित्याची जाण आशिल्ल्यान 'संदेश' ह्या नेमाळयाचें पुनरुज्जीवन करून ताणें आपल्या आज्याचो आनी बापायचो साहित्यीक वारसो चालू दवरलो. तशेंच स्वताय खूब कथावाङ्मय निर्माण केलें. ताचें 'अवर फिल्मस दॅअर फिल्मस' हें चलचित्र समिक्षेंत मोलाची भर घालपी पुस्तक १९७६त उजवाडा आयलें. चलचित्र क्षेत्रांत प्रवेश केले उपरांत ह्या वेगवेगळया कला संस्कारांचें संमिश्र पडबींब ताचे चित्रण शैलीचेर सभाविकपणान पडलां. पड्द्यावयली आकृतिबंधाची रचणूक, प्रमाणबद्दताय, दृश्यप्रकार, चित्रणकोन, अवकाशीय कूड, रंगसंगती, तेचवांगडा बाह्य प्रतिमा आनी संगीत, कॅमेऱ्यांची आशयानुरूप हालचाल, पोशक लय आनी तीच लय घट्ट करपी संकलन, सैमीक ध्वनीचो केल्लो मार्मिक उपेग अशे कितलेशे घटक ताच्या चलचित्रांनी मेळटात. तेखातीर ताचीं चलचित्रां एकदां पळोवन पुराय आस्वाद घेतलो अशें जायना.

ताका खूब मानसन्मान मेळ्ळयात. १९६७त रामॉन मॅगसेसे पुरस्कार, १९७५ 'ब्रिटीश फॅडरेशन ऑफ फिल्म सोसायटीस्' वतीन फाटल्या अर्द शेंकड्यांतलो सर्व श्रेश्ठ दिग्दर्शक म्हणून सन्मान, १९७८ ऑक्सफर्ड युनिव्हर्सिटीची डॉक्टरेट, १९७९ 'पद्मभूषण', १९८९ फ्रांसावतीन 'लीजन ऑफ ऑनर' हो सर्वोच्च भोवमानाचो किताब ताका फ्रांसाचो राश्ट्राध्यक्ष मितेराँ हाचे हस्तुकीं कलकत्त्याक दिलो.

ताणें १९५९ वर्सासावन आंतरराश्ट्रीय चलचित्र महोत्सवाचो ज्युरी म्हणून खूब देशांनी काम केलां. १९५५ ते १९८५ ह्या तीन दशकांनी ताणें पंचवीस चलचित्रां आनी कांय अनुबोधपट निर्माण केले. खूब देशांतल्यान चलचित्रां खातीर पुरस्कार आनी मानसन्मान सातत्यान तीस वर्सां मेळोवपी तो एकलोच कलाकार.

- कों. वि. सं .मं.

**रे, सर प्रफुल्लचंद्र :** (जल्म : २ ऑगस्ट १८६१, जेसोर - बांगलादेश; मरण : १६ जून १९४४ कलकत्ता).

भारतीय रसायनशास्त्रज्ञ. भारतांत रसायनीक उद्देगाची बुन्याद घालपाचें ताणें म्हत्वाचें काम केलां. तशेंच ताणें मर्क्युरस नायट्रेटाचो सोद लायलो. ताचें शिक्षण कलकत्त्याक जालें. ताका १८८२ वर्सा गिल क्रायस्ट शिश्यवृत्ती मेळिल्ल्यान त्याच वर्सा तो इंग्लंडाक गेलो. थंयच्या एडिंबरो विद्यापिठांतल्यान ताणें बी.एस्सी. (१८८५) आनी डी.एस्सी (१८८७) ह्यो पदव्यो मेळयल्यो. ह्या



विद्यापिठांतल्यान हो पुरस्कार मेळिल्ल्या कारणान ताणें एक वर्सभर थंय संशोधन केलें. उपरांत १८८९ - १९१६ ह्या काळांत कलकत्त्याच्या प्रेसिडेन्सी कॉलेजांत रसायन शास्त्राचो प्राध्यापक आनी युनिव्हर्सिटी कॉलेज ऑफ सायन्सांत रसायनशास्त्राचो पालिट प्राध्यापक (१९१६ - ३६) आनी गुणश्री प्राध्यापक आशिल्लो.

इ.स. १८९६त रे हाणें मर्क्युरस नायट्रेट हें संयूग स्फटीक रुपांत तयार केलें. पारो आनी नायट्रोजन हांचें संयूग तयार करपाच्यो पद्धती सोदून काडल्यो आनी अमायन नायट्रेटां आनी क्षारीय मृत्तिका नायट्रेटां तयार केलीं.

रे हाणें उपलब्ध आशिल्ल्या कच्च्या मालासावन सादीं वखदां तयार करपाचो घरगुती धंदो सुरू केलो. १८९२त ताणें बेंगॉल कॅमिकल अँड फार्मास्युटिकल वर्क्स हो भारतांतलो पयलो वखदा निर्मितीचो कारखानो काडलो. १९०१त ताणें कारखान्याचे लिमिटेड कंपनींत रुपांतर केलें. सल्फ्युरिक आम्ल तयार करपी यंत्रणा भारतांत पयली उबी केली. १९०४ वर्सा बंगाल सरकारान ताका युरोपांतली नामनेची रसायनीक प्रयोगशाळा पळोवपाखातीर अभ्यास दौऱ्याचेर लंडनाक धाडलो. १९१२ वर्सा लंडनाक आनी १९२९ वर्सा केंब्रिजाक भरिल्ल्या ब्रिटीश साम्राज्य विद्यापीठ परिशदेक, कलकत्ता विद्यापिठाचो प्रतिनिधी म्हणून तो उपस्थित आशिल्लो.

भारतांतल्या पोरन्या आयुर्वेदाच्या संस्कृत ग्रंथाचें संशोधन केले उपरांत ताणें १९०२ वर्सा 'हिस्टरी ऑफ हिंदू कॅमिस्ट्री' ह्या ग्रंथाचो पयलो खंड आनी १९०९ वर्सा ह्या ग्रंथाचो दुसरो खंड उजवाडायलो. १९३२ वर्सा 'लायफ अँड एक्स्पीरियन्सीस ऑफ ए बँगॉली कॅमिस्ट' ह्या आत्मचरित्राचो पयलो खंड आनी १९३५ वर्सा दुसरो खंड उजवाडायलो. हाचें बंगाली भाशांतर 'आत्म चरित्र' १९३७त ताणें उजवाडायलें.

ताणें केल्ल्या कार्याखातीर इ.स. १९१९त ब्रिटीश सरकारान ताका नायट (सर) हो किताब आनी देशबांधवांनी 'आचार्य' हो भोवमान दिलो. कलकत्ता, ढाक्का आनी बनारस ह्या विद्यापिठांनी ताका डी. एस्सी. पदवी दिली. १९३४ वर्सा डॉयश ॲकॅडेमी ऑफ म्युनिक आनी लंडन कॅमिकल सोसायटी ह्या संस्थांनी ताका सन्माननीय वांगडीपद दिलें.

तो भारतीय विज्ञान परिशद (१९२०), बेंगॉल लिटररी कॉन्फरन्स (१९१०), इंडियन कॅमिकल सोसायटी (१९३५), इंडियन सायन्स न्यूस ॲसोसिएशन (१९३५), बंगीय साहित्य परिशद (१९३१-३४) ह्या संस्थांचो अध्यक्ष आशिल्लो.

इ.स. १९२१ वर्सा ताणें कलकत्त्यांतल्या युनिव्हर्सिटी ऑफ सायन्स अँड टॅक्नॉलॉजींतल्या रसायनशास्त्र विभागाक दोन शिश्यवृत्त्यांखातीर देणग्यो दिल्यो. १९२२ वर्सा रसायनशास्त्राच्या नागार्जुन पुरस्काराक लागून आनी १९३६त प्राणीविज्ञान आनी वनस्पतिविज्ञान ह्या विशयांच्या सर आशुतोष मुखर्जी पुरस्काराखातीर ताणें देणग्यो दिल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**रैना, तापीश्वर नारायण :** (जल्म : २१ ऑगस्ट १९२१ जम्मू; मरण : १९ मे १९८० ओटावा).

भारताचो आदलो भूंयसेना मुखेली (१९७५-७९). जनरल रैना पंजाब विद्यापिठातल्यान पदवीधर जालो. उपरांत ताणें हिंदुस्थानांतल्या सैनिकी दलांत प्रवेश केलो. लश्करांत ताची युध्दकालीन राजादिश्ट अधिकारी (इमर्जन्सी कमिशण्ड ऑफिसर) म्हणून नेमणूक जाले उपरांत तो चवदावे कुमाऊँ पायदळ पलटणींत दाखल जालो. दुसऱ्या म्हाझुजांत आग्नेय आनी मध्य आशियांतल्या आघाड्यांवयल्या झुजांनी ताणें वांटो घेतलो आनी मलायांतल्या झुजांत ताका आपलो एक दोळो वगडावंचो पडलो. जम्मू आनी काश्मीरांतल्या सैनिकी कारवायांनी (१९४८) ताणें वांटो घेतलो. १९५७ - ५९ ह्या काळांत ताची लॅफ्टनंट कर्नल ह्या पदाचेर नेमणूक जाली. १९६२ वर्साच्या भारत - चीन संघर्शांत रैनाकडेन लडाख शीम प्रदेशाच्या संरक्षणाचें काम आशिल्लें. लडाखा भोंवतणचें क्षेत्र हें चीनी आक्रमण परतावपाचे नदरेन मर्मक्षेत्र आशिल्लें. चीनाचें वरिश्ठ सेनाबळ लक्षांत घेवन रैनान सुचकताय दाखोवन फाटीं सरपाचें तंत्र आपणायलें आनी आपल्या सैन्याची जावपी जीवहानी वांटायली.

फुडें रैनान नवी दिल्लींत राश्ट्रीय सैनिकी महाविद्यालयांतल्यान संरक्षणाविशींचो सर्वोच्च शिक्षणक्रम १९६४ वर्सा पुराय केलो. १९६६त ताणें पांयदळांत एके तुकडेचो ब्रिगेडियर जनरल म्हणून काम केलें. त्याच वर्सा मेजर जनरल म्हणून ताका उंचेलें पद मेळ्ळें. सप्टेंबर १९७०त ताची भारतीय भूंयसेना मुख्यालयांत डॅप्युटी ॲडज्युटण्ट जनरल म्हणून नेमणूक केली. १९७१ वर्सा भारत - पाकिस्तान संघर्शाच्या वेळार ताणें तेन्ना उदेंत पाकिस्तानांत दुसऱ्या भूंयसेना तुकड्यांचें मुखेलपण केलें.

छलना आनी खुलना ह्या शारांचेर ताबो मेळोवप आनी म्हत्वाचो हार्डिज पूल हस्तगत करप आनी वारिसालमेरेन सैन्यदलान धडक मारप अशें काम ताचेर सोंपयल्लें. ताचेआड उदेंत पाकिस्तानाचो सेनापती जनरल नियाझी आसलो. झुजाचे मोहिमेंत रैनांची कामगिरी जैतिवंत थारली. ढाक्काचेर नियंत्रण करपाचो ताका मान मेळ्ळो. १९७३ वर्सा भारतीय भूंयसेनेच्या अस्तंत विभागाचो मुखेल म्हणून ताची नेमणूक जाली. १९७५ त जनरल ह्या पदाचेर ताची भूंयसेनाध्यक्ष म्हणून नेमणूक जाली. ५ फेब्रुवारी १९७९ वर्सा तो ह्या पदावयल्यान निवृत्त जालो. निवृत्तीउपरांत भारत सरकारान ताची कॅनडांत उच्चायुक्त म्हणून नेमणूक केली.

भारत चीन संघर्शाच्या कार्याखातीर १९६२ वर्सा भारत सरकारान ताका महावीरचक्र प्रदान केलें. १९७१ वर्सा ताका पद्मभूषण हो किताब फावो जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**रैवतक :** भारतांतलो एक पुर्विल्लो दोंगर. ह्या दोंगराच्या स्थाननिश्चितीविशीं एकमत ना. पुराणांतल्या वर्णनावयल्यान हो दोंगर सद्याच्या गुजरात राज्यांत आशिल्लो अशें दिसता. वासुदेवाचो पूत कृष्ण हाणें द्वारका नगरी रैवतक पर्वताच्या मुळसांत वसयली म्हणपाचो महाभारतांत उल्लेख मेळटा, पूण गुजरात राज्याच्या जामनगर आनी

जुनागढ ह्या जिल्ह्यांनी तो दोन ठिकाणांचेर दारवयला. हाका लागून पुर्विल्ल्या रैवतक दोंगराचें स्थान निश्चित ना.

पार्जिटरच्या मतान जामनगर जिल्ह्यांत सद्याच्या द्वारका शारालागीं हालार दोंगुल्ली म्हळयार पुर्विल्लो रैवतक दोंगर जाल्यार कांय जाणकारांच्या मतान जुनागढ जिल्ह्यांतलो गिरनार दोंगर म्हळयार, रैवतक. वैवस्वत मनूचो पौत्र आनर्त ताच्या रेवत नांवाच्या भुरग्यान ह्या दोंगराच्या पांयाकडेन कुशस्थळी नांवाचें नगर वसयलें. ताच्या नांवावयल्यान ह्या दोंगराक रैवतक हें नांव मेळ्ळां अशें मानतात. कृष्णान मथुरेच्यान स्थलांतर करून कुशस्थळी नगराच्या जाग्यार द्वारका नगर वसोवन लागशिल्ल्या रैवतक दोंगराचेर एक किल्लो बांदलो, असो पुराणांत उल्लेख आसा. आयजूय गिरनार तेमकार एक पोरनो कोट आसा. ताका उग्रसेनगड म्हण्टात. ताका लागून गिरनारच्या रैवतकाकडेन संबंद आसूं येता अशें मानतात. रैवतक दोंगर द्वारकेंतल्या लोकांचें क्रिडास्थळ आसलें आनी थंयचे लोक त्या दोंगराचेर वचून गिरिमह आनी रैवतकमह हे उत्सव नृत्य-गायनाच्यो कार्यावळी करून मनयताले. हीं वर्णनां महाभारतांत आनी पुराणांत मेळटात. दोहदच्या शिलालेखांत रैवतक दोंगराचेर देवळां आसात म्हणपाचो उल्लेख मेळटा. बृहत्संहितेंतल्या उल्लेखावयल्यान रैवतक आनी उर्जयता हीं गिरनार दोंगरांत दोन दोंगुल्ल्यांची नांवां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**रोकोको कला :** एक अस्तंती कलासंप्रदाय. अठराव्या शेंकड्याचे सुरवातीक तो फ्रांसांत उदयाक आयलो. 'रोकोको' ही संज्ञा 'Rocaille' ह्या मूळ फ्रेंच उतरांतल्यान आयिल्ली आसून तिचो अर्थ 'खडकावयलो वा शिंपल्यावयलो अलंकृत आकृतिबंध' असो जाता.

अलंकरणप्रधान अशे बरोक कलाशैलींतल्यान रोकोको शैली विकसीत जाली. बरोक शैलींतली घुस्पागोंदळाची आनी कांय किचकटीची अलंकरणशैली रोकोको कलेंत सोंपी जाली.

वास्तुकला, चित्रकला, शिल्पकला ह्या मुखेल मळांचेर रोकोको शैलीचे वेगवेगळे आविश्कार दिश्टी पडटात. तशेंच तिच्या अलंकरणप्रधान स्वरुपाक लागून फर्निचर, वस्त्रप्रावरणां, चीनी मातयेचीं आयदनां आनी वस्तू, भांगरा - रुप्याचीं पात्रां आनी वस्ती हांचो अलंकारीक आकृतिबंधांत वा कलाकुसरींत दिश्टी पडटा. वास्तूंच्या भितरल्या भागांचे सजावटीखातीर ह्या शैलीचो चड करून वापर जाला.

रोकोको शैलींतली प्रमाणबध्दताय ही उंचाय वा सडसडीतपण ह्या घटकांचेर आदारीत आशिल्ली. पानां, फुलां, वाली, शंख - शिंपले, फातर अशा सैमीक आकारांपसून प्रेरणा घेवन प्रवाही वक्राकारयुक्त आकृतिबंध घडोवपाचेर हे शैलींत चड भर दिला. स्वैर आनी समतोल विरयत रचना हें तिचें खाशेलेपण.

फ्रांसांत पंदराव्या लुईचे कारकिर्दीत (१७१५-१७७४) हे शैलीक चड चंवर आयलो. फ्रेंच रोकोको शैलीक ताच्या नांवानय वळखतात. फ्रेंच - रोकोको वास्तुशैलीचीं उदाहरणां म्हणजे शेतीयीच्या 'पेतीत शातो' हे हवेलींतलें 'सालाँ द एम्.ल प्रिन्स' (१७२२त पुराय) हें सजयल्लें दालन. झां ओबेअर हो ताचो सजावटकार. तशेंच पॅरिसांतल्या 'Hotel de Soubise' ह्या वास्तूचीं अलंकृत सोबीत दालनां (सु. १७३५ - ४०) - झेरमँ बोफ्रांद हाणें ह्या वास्तूचें अलंकरण केलें. प्येअर लपोत्र हाणें मार्ली चे हवेलीचे सजावटींत नव्या अलंकारणात्मक कल्पनांचो वापर केला. तातूंत रोकोको शैलीचीं बिजां सांपडटात. लपोत्रचो वारसो जायत्या सजावटकारांनी आनी वास्तुविशारदांनी फुडें व्हेलो, तातूंत रॉबेअर द कॉत आनी झ्यूस्त - ऑरेल मेसॉन्ये हे मुखेल आशिल्ले. तांणी तयार केल्ले आकृतिबंध पुस्तकरुपान प्रकाशीत जावन सगळेकडेन प्रसृत जाले आनी ते अठराव्या शेंकड्यांतल्या रोकोको शैलीच्या प्रसाराक पालव दिवपी थरले. थोड्याच काळांत हो संप्रदाय युरोप खंडांत सगळेकडेन पातळ्ळो.

फ्रांसाचे सकयल जर्मनी आनी ऑस्ट्रिया ह्या देशांनी ह्या संप्रदायाचो प्रभाव जाणवता. वास्तुकलेच्या मळार अमीर - उमरावांच्यो हवेल्यो आनी प्रासाद, इगर्ज वास्तू तशेंच वास्तूंचे अंतर्भाग हातूंत हे शैलीचो आविश्कार दिसता. तातुंतलें अलंकरण हें चड सुबक आनी परिश्कृत आसा.

रोकोको वास्तुशैलीचें सामकें प्रगल्भ आनी विकसीत रूप जर्मनींत पळोवपाक मेळटा. म्युनिकांतली आमालेईंबुर्कची नाजूक आनी परिश्कृत रुपांत सजयल्ली वास्तू (१७३४ - ३९) आनी 'रेसिडेन्स थीएटर' (१७५० - ५३) ह्या फ्रांस्वा द क्यूव्हीये ह्या वास्तुकारान उबारिल्ल्यो वास्तू सोबीत आसात. उल्लेख करपासारक्यो जर्मन रोकोको इगर्ज वास्तू अशो आसात. 'Vierzehnheiligen' (१७४३ त सुरवात) ही बव्हेरियांतली इगर्ज हाचो वास्तुकल्प बाल्टासार नॉयमानान केला; तशेंच म्युनिकालागची 'Wieskirche' (१७४५ त सुरवात) ही डोमीनिकसत्सिमरमानान उबारिल्ली इगर्ज. हे इगर्जेची सजावट ताचो भाव योहान बाप्टिस्ट त्सिमरमानान केल्ली. आंत्वान व्हातो (१६८४ - १७२१), फ्रांस्वा बूशे (१७०३-७०) आनी ताचो शिश्य झां ऑनरे फ्रागॉनार (१७३२ - १८०६) हे रोकोको शैलींतले फुडारिल्ले फ्रेंच चित्रकार आशिल्ले. व्होतोन रूढ केल्ल्या 'फेत ग्लान्त' (अठराव्या शेंकड्यांतल्या फ्रेंच राजदरबारांतल्या व्यक्तींचो उक्त्या सैमीक वाठारांतलो आनंद मेळावो) ह्या चित्रप्रकारांत रोकोको शैलीचीं बिजां सांपडटात. ताचीं Embarquement Pour Cythere (१९१७), Les Plaisirs du Bal (१७१९) हांचे सारकीं चित्रां हीं ह्या प्रकाराचीं उत्कृश्ट उदाहरणां. फ्रागॉनारचे ब्लाइंड - मॅन्स - बफ (सु. १७७५) हें चित्रय हेच परंपरेंतलें मानतात. बूशेचे ट्रायम्फ ऑफ व्हीनस (१७४०) आनी फ्रागॉनारचे द स्विंग (सु. १७६६) हींय ह्या संप्रदायाचीं म्हत्वाचीं चित्रां.

पंदराव्या लुईचे कारकिर्दींतलीं स्वच्छंदी आनी खोशी समाज जिविताचें पडबिंब ह्या चित्रांतल्यान दिसता. हेर रोकोको चित्रकारांत इटलीचो जोव्हान्नी त्येपलो (१६९६ - १७७०) आनी इंग्लंडचो टॉमस गेन्झबरो (१७२७ - ८८) हांचो उल्लेख करूं येता.

पंदराव्या लुईचे कारकिर्दींतलें फ्रांसांतलें रोकोको शैलीचें फर्निचर ओडलायणें तशें विविधतायेन भरिल्लें आसा. ताचे सजावटींत ब्राँझाचो तशेंच लांकडी कुडक्यांच्या जडावकामाचो आनी लाखेच्या रंगकामाचो वैशिश्ट्यपूर्ण वापर केला. इंग्लंडांत टॉमस चिपेंडेलान (१७१८ - ७९) रोकोको शैलीचो उपेग करून फर्निचर तयार केलें. रोकोकोच्या प्रभावांतल्यान घडिल्ली ताची खास शैली 'चिपेंडेल शैली' ह्या नांवानूच वळखतात. भांगर आनी रुप्याचीं पात्रां, वस्ती हांचेवयल्या अलंकरणांत रोकोको शैलीचे वेगवेगळे आकृतिबंध पळोवपाक मेळटात. अठराव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत नव-अभिजातवादाच्या उदयावांगडाच रोकोको संप्रदायाचो अस्त जालो.

- कों.वि.सं.मं.

**रोग :** मन वा कुडिचें तात्विक संतुलन इबाडटकच निर्माण जाल्ले विकारी तन-मन अवस्थेक रोग म्हण्टात. आदल्या काळांत रोग म्हळ्यार देवाचो कोप, वायट गिरा, नक्षत्र बादा, कुडींत दुश्ट आत्म्याचो प्रवेश अशें मानताले. देखून त्या तेपार रोग पयस करचेखातीर लोक देव-देंवचाराक गाराणें घालप, कोंब्या-बोकड्याचो बळी दिवन मान थारावप, दोरे-तावीज ह्यासारखे भावार्थी उपाय करप वा घाडी-भगताकडल्यान रोग्याचो छळ करताले. इतिहास पयलींच्या काळांत (५००० इ.स. पयलीं). फातरा शस्त्रांच्या आदारान खत्ना ( Circumcision), हात-पाय (Amputation) ह्या सारकिल्ल्यो शस्त्रक्रिया केल्ल्याचे उल्लेख मेळटात.

आशिया, आफ्रिका, दक्षिण अमेरिकेंतल्या कांय देशांनी तशें ऑस्ट्रेलिया आनी पॅसिफीक म्हासागरातल्या कांय जुंव्यांचेर वेगवेगळ्या रोगांचेर पारंपरीक उपाय आजुनूय चालू आसात. आयुर्वेद हें भारतीय वैजकी शास्त्र पुराय भारतांत आनी सद्या सबंद जगांत फाकंत गेलां. सिध्दी होय भारतीय वैजकी शास्त्र प्रकार वेदकाळासावन तमिळ लोकांत प्रसिद्द आसा. इ.स. २०० काळांत चरक नांवाचो व्हड भारतीय आयुर्वेदीक वैज जावन गेलो. तशेंच इ.स. ४००तलो शुश्रूत नामा हो व्हड शल्यविशारद (Surgeon). चरकान सुमार ५००० झाडापाल्याच्या वखदांचो उल्लेख केला. चरकाच्या तेंपार हाडमोडी, मोतिबिंदू, गाठी (tumor), हर्निया, कुशिल्ले हातपाय (Gangrene) ह्या रोगांचेर शस्त्रक्रिया करताले. हें चरकान केल्ल्या उल्लेखावयल्यान कळटा. प्राचीन भारतांत वैजकी शास्त्रांत आरोग्य शास्त्राक (Hygiene) खूब म्हत्व दिल्लें हें हरप्पा-मोहेंजोदारोच्या प्रगत शार-नियोजनावयल्यान सिध्द जाता. युनानी हें ग्रीक वैजकीशास्त्र मुसलमान राजकर्त्यांनी सुमार सव्या शेंकड्यांत भारतांत हाडलें. उपरांत तेराव्या शेंकड्यामेरेन तें दिल्ली, अलिगर, लखनौ, हैद्राबाद आनी हेर शारांनी फाकत गेलें. जर्मन वैज सॅम्युएल हॅनेमन हाणें सोदून काडिल्लें होमिओपॅथी वैजकीशास्त्र १८१०-१८३१ ह्या तेंपार भारतांत प्रगत जालें. ॲलोपॅथी (Allopathy) ही आधुनिक उपचार पद्दत भारतांत फाटल्या शंबर वर्सांसावन वापरांत आयल्या. विज्ञानीक मळार जशे नवे सोद लागत गेले, तेप्रमाण उपचार पद्दतिंतूय खाशेलेपण आनी बारकायपण (Specialization) आयलें. सद्या मेंदू, नाक, कान, दोळे, काळीज, पुल्माव, पचनेंद्रिया, मूतमार्ग, कात, हाडां अशे शरीररचनेप्रमाण आजार - उपचाराचेय वेगवेगळे विभाग विकसीत जाल्ले आसा. तशेंच ल्हान भुरग्ीं, बायलां, गुरवारपण, म्हातारपण अशे अवस्थेप्रमाण खाशेले विभाग सुरू जाल्ले आसात. काळिज, मेंदू, हाडां, किडणी, कात अशा भागांचेर जावपी शस्त्रक्रियेचेय खाशेले विभाग आसात. सद्या व्हड व्हड हॉस्पिटलांनी आजार अवस्थांखातीर अत्याधुनिक संगणक आनी चड विकसित उपचार, शस्त्रक्रिया यंत्रणा आशिल्ले अतिदक्ष विभाग आसात. व्हड शारांनी अशेच अतिदक्ष विभाग विकसित केल्लीं ल्हान भोंवती हॉस्पिटलां (Mobile Clinic) तात्काळ उपचाराखातीर निर्मिल्लीं आसात.

रोग मुखेलपणान सांसर्गिक आनी बिन - सांसर्गिक स्वरूपांत आसता. सांसर्गिक रोग बॅक्टेरिया, व्हायरस, फंगस आनी हेर सुक्ष्मजंतुसावन उत्पन्न जाता. देखीक टायफॉयड, कॉलेरा, न्युमोनिया, क्षयरोग हे बॅक्टेरियाक लागून, जाल्यार हुरहुरें, गालगुटां, रॅबीज आनी एड्स हे रोग व्हायरसासावन जाता. तशेंच मलेरिया. हत्तीरोग खास उपजिवी (Parasite) सुक्ष्मजंतूक लागून आनी गजकान आनी म्होये हे रोग फंगसाक लागून जातात. आदल्या काळांत सांसर्गिक रोगाची व्हड प्रमाणांत लागण वा धामी येवन हजारांनी लोकांक मरण येतालें. अशा वेळार चडकरून घरगुतीच उपाय करप जातालें. गांवांत जेन्ना रोगाच्यो धामी वा साथ पातळताली तेन्ना देवाचो कोप जाला अशें समजून देवाक बळी दिवप वा साधू-घाडयाचो आदार घेताले. पूण उपरांत सुक्ष्मदुर्बिणिचो (Microscope) सोद लागतकच सुक्ष्मजंतूविशीं चड आनी चड म्हायती मेळयाउपरांत खूबशा सांसर्गिक रोगांचेर वासिनां आनी वखदां सोदून काडप सोपें जालें. विद्युत्-परमाणू सुक्ष्मदुर्बिणिचो (Electron microscope) सोद लागतकच व्हायरसांचेर अभ्यास जावन व्हायरस रोगाचेर वखदां आनी वासिनां तयार जावपाक लागलीं. शिक्षण आनी अर्थीक सुदारणांक लागून व्यक्तीगत तशेंच भौशिक म्हाझुजाउपरांत राश्ट्रीय भलायकी कार्यवळींतल्यान शुध्द उदक आनी वखदां-वासिनांची पुरवण लोकांमेरेन जायत गेली तशें संवसारांतलें सांसर्गिक रोगांचें प्रमाण उणें जायत रावलें. कांय तांत्रिक कारणांक लागून मलेरिया सारको घातकी रोग फाव त्याप्रमाण आळाबंदा हाडपाक आजुनूय शक्य जावंकना. सद्या

खाशेलीं वरवदां वा वासिनांचो सोद ना लागिल्ल्यान तशेंच जतनाय ना घेतिल्ल्यान चडकरून गरीब देशांत व्हायरसासावन जावपी एड्स हो म्हाभयंकर रोग दिसपट्टो वाडत आसा. गरिबी, अशिक्षितपण, कुपोशण, प्रदुशण ह्या कारणांक लागून आजुनूय कांय अविकसीत देशांनी सांसर्गिक रोगाचें प्रमाण चड आसा. पूण विकसीत राश्ट्रांत बिन-सांसर्गिक रोगांचें (अॅटेक, गोडेंमूत, रक्तदाब, कॅन्सर, दमो आनी हेर) प्रमाण वाडत आसा. हाची मुखेल कारणां म्हळ्यार आयची तणावी जिवन पद्दत आनी जेवणांत चड प्रमाणांत तेलाचो उपेग. कांय बिनसांसर्गिक रोग आनुवंशीक दोशाक लागून जातात. अमुकचतरेचो कॅन्सर कसो जाता हें निश्चित सांगप कठीण. पूण सुरवेचे अवस्थेत काय खाशेल्या लक्षणावयल्यांन तो पारखून घेवन ताची शरिरांतली वाड थांबोवंक येता. अणू केंद्र, क्ष-किरण विभाग, अणू किरणोत्सर्ग विभागांत वावुरप्यांक कॅन्सर चड प्रमाणात जावपाची शक्यता आसता. खण काम, कारखान्या वाठारांनी धुळ वा प्रदुशित हवेक लागून अॅलर्जी वा दम्यासारके रोग जांव येता. पिसावल्लें सुणे वा कोलो चाबल्यार रॅबिज; जाल्यार जळारां-हुलकांक लागून मलेरिया; हत्तीरोग, प्लेगासारके रोग जांव येता. तंबाकू, चरस, गांजा, मोर्फिन सारकिल्ल्या धुंवळी पदार्थाच्या सेवनान वा चड प्रमाणान सोरो पियेल्यार कुडीचे तशेंच मनाचे रोग उत्पन्न जांव येतात. गैर शारिरीक संबंदांतल्यांन सिफीलीक, गोन्होरिया, एड्स हे रोग जांव येतात. अनुवांशिक विचीत्र स्वभाव, घरांत अति लाड वा चड कडक शिस्त, भोंवतणचें तणावी वातावरण, अंधश्रध्दा हांकां लागून मनाचेर विपरीत परिणाम जावन मनोविकार जांव येता.

रोगाचीं कारणां- स्वरुपां वेगळीं आशिल्ल्यान वेगवेगळ्या दुयेसांचीं लक्षणांय वेगळीं आसता. सांसर्गिक रोगांत जोर येवप हें मुखेल लक्षण. काळीज आनी पुलमावांच्या दुयेसांत हड्डुयांत दुखप, छातयेंत कलकलप आनी धांप लागप हीं मुखेल लक्षणां. पोट-आतकड्यांच्या रोगांत सादी वा रगताची उलटी जावंप, सादे वा रक्ताचे अतिसार, वा संडास बंद जावप. मुत्तना वेदनां जावप वा मूत बंद जावप हीं लक्षणां मूत्र मार्गांतल्या दुयेसांत दिश्टी पडटात. मेंदवाच्या दुयेसांत तकली दुखप, घुवळ येवप, उलटी जावप, जोर येवप, विचित्र वागणूक, स्वभावांत अचकीत बदल जावप, भ्रमिशठावस्था वा बेशुध्दावस्था हीं मुखेल लक्षणां आसूं येतात. चड बडबड, अस्वस्थकाय, निराशकाय, मोनेपण, स्वताक आनी हेराक घातक अशे उन्मत्त वागणुकेचे झटके येवप हीं मनोविकाराचीं कांय लक्षणां.

कुडिचे तपासणेतल्यान खुबशे फावटी चडशा रोगांचें सोंपेपणान निदान करूं येता. सांसर्गिक तशेच कॅन्सरासारक्या रोगाची खात्री करचेखातीर चड करून मूत, संडास, थुकी, रगत, कुडींतल्या उदकाची (Body fluids) तपासणी करची पडटा. गोडेंमूत, गोतरगत (Gout), रगताचो कॅन्सर (Blood cancer), गाठीचें दुयेंस, चरबी दोश, ह्या रोगांचें निदान फकत रगत तपासणेतल्यान करू येता. बारीक जोर (T. B.), सांध्याचो रोग, मूत-पित्तखडो ह्या सारकिल्ल्या रोगांचें निदान करपांत क्ष-किरणाचोच आदार घेवचो पडटा. 'एँडोस्कोप' हे खाशेले दुर्बिणीतल्यान स्वासनळी, अन्ननलिका, पोट, आंतकड्यो, मूतभाणो, उतेर (Uterus) ह्या भागांच्या रोगाचें निदान करतात. अतिसूक्ष्म ध्वनिल्हार चिकित्सा (Ultrasonography) फिग्द, मुत्रपिंड, गर्भाशयाचे रोग तशेंच मूत-पित्त खड्याचें जुस्त निदान करपाक आदार करता. मेंदूतली गांठ (Brain tumor), रगतगांठ, रगतस्त्राव ह्या सारकिल्ल्या मेंदूत जावपी दुंयेसांचें निदान करचेखातीर अतिसूक्ष्म संगणक ध्वनिल्हारां चिकित्सेचो (CT - Sxan - Computerised tomography) उपेग करतात. काळजाच्या कांय रोगांचें निदान करचेखातीर काळीज - विद्युत् ल्हार चिकित्सा पद्दत (ECG-Electro-Cardiography) आपणायतात. सद्या चडशा हॉस्पिटलांनी संगणकाच्या आदारान सुक्ष्मनळी रगतशिरेंतल्यान चलोवन वा एक्स-रे काडून काळजाची बारिकसाणेन तपासणी करतात. तशेंच नाजूक सरयेच्या आदारान काळजाच्या रगतशिरेंतली रगतगांठ (Atherma) पासतात हे पद्दतीक 'Cardiac Catheterisation' अशें म्हण्टात.

तज्ञांनी वेगवेगळ्या रोगांच्या निदाना वांगडा ताचेर उपचारय सोदून काडले. चडशा व्रीव स्वरुपाच्या दुंयेसांत बेगीन बरो जावचेखातीर आराम खूब गरजेचो थारता. तशेंच रोगाप्रमाण खाणा-जेवणातूय बदल करून घेवचो पडटा. हाका पथ्य अशें म्हण्टात. देखीक-गोड्या मुताच्या पेशन्टाक सारवर आनी हेर गोड पदार्थ टाळचे पडटात. जाल्यार रगतदाब आनी काळजाच्या पेशन्टाक मीठ उणें चडकरून सांसर्गिक रोग जंतूनाशक (Antibiotics) वरवदांनी पुराय तरेन बरे करूं येतात (देखीक-कूश्ट रोग, बारीक जोर, मलेरीया, टायफोयड). खंयच्याय दुंयेसाक लागून चड प्रमाणांत उल्टी वा संडास जाल्यार रगतशिरेंतल्यान सार-उदक (Intravenous Fluids) दिवप गरजेचें थरता. अपघात वा हेर खाशेल्या दुंयेसाक लागून अतीरगतस्त्राव जाल्यार रगतशिरेंतल्यान रगत दिवचें पडटा. ऱ्हेसस प्रतिकुलता (Rh-incompatibility) सारक्या रगतदोशांत ल्हान भुरग्याक जल्मासावनूच कामीण जाल्ली आसल्यार रगत बदली (Exchange transfusion) करची पडटा. रगत कॅन्सर (Blood Cancer), तशेंच हेर कॅन्सराचे शस्त्रक्रिये उपरांत वा शस्त्रक्रिया अशक्य आशिल्ल्या पेशन्टाक हानीकारक रसायनीक वरवदां (Chemotherapy) नायलाज म्हूण दिवची पडटा. गंभीर अवस्थेंत पेशन्टाक प्राणवायू दिवचो पडटा. अपघात, मेंदूज्वर, आताक अशा पेशन्टाची अवस्था जेन्ना चड हुस्को करपासारकी आसता, तेन्ना तांकां अतीदक्ष विभागांत दवरतात. कॅन्सराच्या पेशन्टांक शस्त्रक्रिया वा रसायनीक उपचारावांगडाच कांय वेळा नायलाज म्हूण अणूकिरण उपचार (Radiation therapy) दितात. मूत्रपिंडाच्या असाध्य दुयेंसांत रगतशुध्दी प्रक्रिया (Dialysis)

करची पडटा. सद्या लेसर - किरण (Laser therapy) चड प्रसिद्द आसा. मूत्रपिंडा सारकिल्ले अवयव इबाडल्यार लागच्या नातलगाचो मूत्रपींड रोपण (Organ transplant) करपाची वेवस्था आसा. हाड मोडल्यार वा वा सांधे इबाडल्यार खाशेल्यो धातूच्यो पट्ट्यो वा कृत्रिम सांधे बसयतात. पोलिओ आनी सांधे दोशांत शक्तिप्रमाण व्यायाम उपचार (Physiotherapy) बऱ्याक पडटा. पंचेंद्रियांत तशेच अपघाती वा जल्मजात अपंगूळपण आयल्यार खाशेलें वेवसायी शिक्षण (Occupational therapy) दिवन तांकां आपल्या पांयांचेर उबे करपाची पद्दत सद्या जगभर प्रसिद्द आसा. दमो वा कातीचे ॲलर्जीसारके रोग ॲलोपथी उपचारान बरे जायनात. हे रोग वेळार उपचार केल्यार होमिओपाथी तशेंच आयुर्वेदिक उपचार पद्दतीन पुराय तरेन बरे जांव येता.

भलायकेविशीं सादारण गिन्यान, तशेंच उदक, जेवणखाणांत नितळसाण दवरल्यार खूबशे सांसर्गिक वा वशाचे रोग पयस दवरू येतात. रोग निवारण वाशीनां वेळार घेतल्यार चडशे घातकी सांसर्गिक रोग देखीक - रॅबीज, बारीक जोर, पोलिओ, कांटेर, धोणकुटी, देवी, हुरहुरें हेसारके रोग सदांखातीर पयस दवरूं येतात. एड्स सारकिल्ले घातकी रोग जाचेर अजूनमेरेन उपचार सोदून काडूंक यश मेळूंक ना अशे रोग फक्त शारिरीक संबंदाविशीं योग्य गिन्यान, रगत दितना वा घेतना रगत तपासणी आनी हेर जतनायो घेतल्यार पयस दवरूं येता. सद्या हो रोग पयस दवरचेखातीर भारतीय भलायकी तशेंच राष्ट्रीय भलायकी कल्याण येवजणेवरवीं ह्या रोगाची उत्पत्ती आनी जतनायेविशींचें उण्यातउणें गिन्यान रेडिओ, टेलिविजन, सिनेमा आनी वर्तमान पत्राच्या आदारान शारांनी तशेंच गांवगिऱ्या वाठारांनी दिवप जाता.

सादारणपणान भलायकी निरोगी दवरचेखातीर विसव, प्रमाणशीर व्यायाम वा योगासनां, योग्य आहार, दर दिसा उण्यात उणी स वरां न्हींद खूब गरजेची. तशेंच सोरो, तंबाकू आनी धुंवळे वखदां टाळचीं. दर एकामनशान तीन वर्सांतल्यान एकदा तरी रगत तपासणी करची. ३० वर्सां पुराय जाल्ले दर एके बायलेन आपल्या योनी-उदकाची (Papauiculous Test) तीन तीन वर्सांनी तपासणी करची. अशें केल्यान गर्भाशयाच्या कॅन्सराचें शून्य अवस्थेंतच निदान करपाक सोपें जाता. तशेंच ३० वर्सां पुराय जाल्ल्या जण एकल्यान दर एक वर्सा आपली शारिरीक तपासणी करून घेवची. अशें केल्यान रगतदाब, अर्दांग आनी हेर दुश्परीणाम टाळू येतात.

- डॉ. आनंद हळर्णकार

**रोज :** मराठी : मखमल, झेंडू; हिंदी : गुलजाफरी, गेंद; संस्कृतः स्थूलपुष्प; इंग्लीश : आफ्रिकन मॅरीगोल्ड; लॅटीन : टेजेटस इरेक्टा; कूळ - कंपॉझिटी).

हें झाड एक वर्स जगपी आसून, सुमार एक मीटर ऊंच वाडटा. सरळ खांदयो, पानां एका फाटल्यान एक, दाट आनी लांबशीं आसतात. दाट पाकळयांचीं, फुलां येतात. तीं २ ते १० सेंमी. व्यासाइतलीं मोटीं आसतात. तांचो रंग धवो, हळदुवो, केसरी वा गाड केसरी अशा तीन तरेच्या रंगांचीं फुलां येतात.

हें झाड मूळ मेक्झिकोंतलें आसून ताचे वेगवेगळे प्रकार पोरसांनी आनी बागांनी सोबेखातीर लायतात.

हें खरिपांत येवपी फुलझाड. कसलेय तरेचे जमनीर वाडटा म्हणून ताची सगळेकडेन लागवड जाता. बरे सुपीक जमनींत खूब मोटीं रोजां जातात.

**रोवप आनी वाडोवप :** १० - १५ सेंमी. जमीन खोल खणून मातयेचे धिपळे फोडून बारीक करतात. एक चौ.मी. जाग्याक २०–३० किग्रा. शेणखत घालतात.

हे रोंपे लावन तांची लागवड करतात. ते एका वाफ्यान तयार करतात. तांचें बीं मे वा जून म्हयन्यांत पेरतात. बीं किल्लून रोंपे ५-८ सेंमी. ऊंच जाले उपरांत ते काडून दुसऱ्या जाग्यार लायतात. तांकां शेण घालतात. भरपूर वतांत ह्या झाडाची वाड बरी जाता. लागवड केले उपरांत सुमार तीन म्हयन्यांनी ह्या रोंप्याक फुलां येतात. पावसाळयांत झाडांचीं कापून कलमां लावनूय लागवड करतात.

तांच्या फुलांचो वखदी उपेग (दोळयांच्या नेत्रश्लेष्मपटल) दोळे येता त्या विकाराचेर आनी दुशीत जखमेचेर आनी तांचो पोटांत घेतल्यार रगतशुध्दिकारक आनी मूळव्याधीचेर गुणकारी आसा. पानां गळू आनी फोडाचेर (काळपुळी) लायतात. कान दुखल्यार ताचो रोस घालतात. ह्या वखदांत (बाश्पनशील) उडून वचपी तेल आनी रंजक द्रव्य आसता.

दसऱ्याक आनी दिवाळेक ह्या फुलांच्यो माळो (तोरण) लावन घर सजयतात आनी फुलां देवाचे पुजेखातीर वापरतात. खाशेल्या समारंभाची सजावट करतना रोजांच्या माळांचो उपेग जाता.

ह्या झाडाक रोगाचो आनी किडींचो चडसो त्रास जायना.

- कों. वि. सं. मं.

**रोजगार :** वैयक्तिक नदरेन मनशाक कसलोय कामधंदो वा अर्थीक लाबाचो वेवसाय मेळप म्हळयार रोजगार. राश्ट्रीय नदरेंतल्यान सक्षम आनी इत्सूक लोकांक त्या राश्ट्राची अर्थवेवस्था कितल्या प्रमाणांत काम करपाची संद मेळोवन दिता हाची निदर्शक आसपी अवस्था म्हळयार पुराय वा वट्ट रोजगार. अर्थवेवस्थेच्या पांवड्यार रोजगार इत्सुकांचे संख्येपरस रोजगार उपलब्धताय उणी आसली तर बेरोजगारी वा बेकारी निर्माण जाता.

मनशांच्यो गरजो खूब आशिल्ल्यान त्यो गरजो भागोवपी साधनां काम करिनासतना पडून रावप शक्य ना. कारण गरजो भागोवपाच्या मानान तीं साधनां बरींच मर्यादीत आसात, असो समज

अर्थशास्त्राचे बुन्यादी प्रमेयावयल्यान पयले सुवातेर जाता. हो समज खरो आसत जाल्यार कामगार वर्गांत बेकारी आसपाचें कारण नासता. जी बेकारी आसता, ती आपले इत्सेन वा कांय तात्पुरत्या अडचणींक लागून निर्माण जाल्ली आसता. पूण सक्तीची, कायम स्वरुपाची आनी म्हणून गंभीर स्वरुपाची बेकारी अर्थवेवस्थेंत निर्माण जावपाचें मुळांतूच कांय कारण नासता, अशी समजूत सनातन विचारांत दिश्टी पडटा. म्हणून सनातनवादान बेकारेच्या प्रश्नाकडेन लक्ष दिल्लें दिसना. सनातनी विचारवंत फ्रेंच अर्थशास्त्रज्ञ झां, बाप्तिस्त से हाणें वयले समजुतीक सिध्दांताचें रूप दिल्लें दिश्टी पडटा. सनातनवादाचे स्मिथप्रभृती अध्वर्यूंचो काळ म्हळयार ग्रेट ब्रिटनांतली क्रांतीची फांतोड आशिल्ली. त्या काळांत उद्देगीक मळार रोजगार वाडत आसलो, इतलेंच न्हय तर कामगारांचो उणावूय जाणवतालो.

भांडवलशाय अर्थ वेवस्थेक मदीं मदीं मंदीचो धपको बसता आनी त्या काळांत जाणवपाइतली बेकारी आसता, अशें समजलें. अशें कित्याक जाता हाची विस्कटावणी मार्शल, पिगू ह्या नवसनातनवाद्यांनी केली. तांणी बेकारेचो दोश कामगाराचे वेतन कपातींतले ताठरतायेचेर दवरलो. मार्शलान मंदीचो खुलासो करतना सांगलें, खंयच्याय कारणान गुंथवणूक करप्यांच्या विस्वासाक धक्को बसलो म्हण्टकच गुंतवणूक उणी जावन मंदी आनी बेकारी येता.

बेकारेच्या प्रस्नान १९२९ च्या व्हडा मंदीच्या काळांत येदें व्हड स्वरूप घेतलें, पुराय रोजगार ही अर्थवेवस्थेची प्रकृती आसा. ह्या सनातन सिध्दांताची नव्यान विस्कटावणी करप आनी मेकळे अर्थ वेवस्थेचे यंत्रणेन बेकारेचीं बियां आसात काय किदें ह्या प्रश्नांचो गंभीरतायेन विचार करप गरजेचें जालें. हें काम सनातनवादी तालमेंतूच तयार जाल्ल्या फांकिवंत अर्थशास्त्रज्ञ केन्स हाणें परखडपणान केलें. ताची क्रांतिकारक रोजगार मिमांसा "द जनरल थिअरी ऑफ इंटरॅस्ट, एम्प्लॉयमँट अँड मनी" (कळंतर, रोजगार, चलनमिमांसा) १९३६ त पुस्तकरुपान उजवाडाक आयली. केन्स हाचो ग्रंथ उजवाडा येवचे पयलीं अमेरिकेचो राश्ट्राध्यक्ष रुझवेल्ट हाणें म्हामंदी ना करपावातीर नवनिती (न्यू डील) म्हणून उपाययेवजण सुरू केल्ली. केन्स हाणें सुचयल्ल्या धोरणाकडेन सुसंगत अशी ही नवनिती आशिल्ली. रुझवेल्टचें धोरण यशस्वी जावन अमेरिकेंत रोजगार वाडपाक लागलो. हाका लागून केन्स हाचे रोजगार मिमांसेक खाशेलें म्हत्व मेळ्ळें. केन्स हाची रोजगार मिमांसा अर्थशास्त्रांत आतां बुन्यादी समजतात. ताणें पिगूच्या विचारांक विरोध केलो. कामगारांक उणो पगार दिल्यार तांचो वट्ट खर्च उणो जातलो आनी वस्तूंक आशिल्ली मागणी उणी जाल्ल्यान उत्पादनाचेर विपरीत परिणाम जातलो. रोजगार वाडनासतना बेरोजगारी वाडटली हें केन्सान सिध्द केलें, तें पेगूनय मान्य केलें.

खंयच्याय रोजगाराचो पांवडो तिगोवपावातीर तो पांवडो आसतना लोकांक जितलें पुराय उत्पन्न मेळटा, त्या उत्पन्नांतल्यान जितली बचत करतात, तितलेंच भांडवल गुंथपाक जाय आशिल्ल्यान रोजगाराचो तो पांवडो तिगोवप शक्य जाता, कारण वट्ट उत्पादनाचें मोल म्हळयार पुराय उत्पन्न जितलें आसता, तितलोच उत्पादनाचेर सगळो खर्च जाता. हो नेम पुराय रोजगाराकय लागू पडटा. पूण ह्या संदर्भांत एक गजाल कटाक्षान लक्षांत दवरप गरजेचें आसता. ती म्हळयार, रोजगार जितलो चड, तितलें उत्पन्न चड. साहजीकच उणे जावपी उपभोग्य प्रवृत्तीप्रमाण रोजगार जितलो चड, तितली बचत चड म्हळयार अदीक रोजगार तिगोवपावातीर गुंतवणूक चड आसची लागता. पुराय रोजगाराच्या संदर्भांत हो विचार म्हत्वाचो जावन रावला. थोडेभितर सांगपाचें जाल्यार रोजगार फावो तितलो नासत आनी तो वाडोवपाचो आसत जाल्यार खर्च आनी भांडवल गुंतवणूक हांकां सगळया तरांनी उत्तेजन दिवंक जाय, हें केन्सप्रणीत अर्थीक धोरणाचें मुखेल सूत्र. ह्या सूत्राचो वांटो म्हणून (कळंतर) उणें करपाच्या धोरणाक केन्स हाच्या विवेचनांत वयली सुवात दिल्ली आसा.

भारतासारके विकसनशील अशे जे देश आसात, तांणी लेगीत पुराय रोजगार ही आपल्या अर्थीक धोरणाची मोख मानल्या. पूण केन्स हाणें सुचयल्ले वा उपरांत केन्सवादी अर्थशास्त्रज्ञांनी तोरवणाय केल्ले उपाय भारतासारक्या देशांत उपेगी पडटलेच अशें ना. कारण अशा देशांनी रोजगार उणो आसता, हाचें कारण मुळांतूच वेगळें आसता. अमेरिकेसारकिल्या देशांत, मंदी काळांतली रोजगार घट, बचतीचो म्हळयार भांडवल साधनांचो फावो तो उपेग जावंक शकनाशिल्ल्यान तयार जाल्ली आसता. भारतासारकिल्या देशांत मुळांतूच भांडवली संपत्तीचो उणाव आसता. म्हळयार भांडवल भरपूर आसून ताचो उपेग जायना, अशी अमेरिकेसारकिल्या देशांची समस्या, जाल्यार भांडवल उणें आनी तेखातीर मनीसबळाक फावोशें काम ना ही भारतासारकिल्या देशांची समस्या, मुदलांतूच समस्येचें स्वरूप वेगळें आशिल्ल्यान फकत तुटीच्या अर्थभरणीसारक्या उपायांनी भारतांत रोजगाराची वाड जातली, हो फकत एक भ्रम. केन्सान दिल्ली उपाय येवजण कांय प्रमाणांत भारतासारकिल्या देशांत उपेगी थारूंक शकता, पूण तिची उपयुक्तताय रोखडीच सोंपता आनी अदीक मुलगामी उपाय येवजण करची पडटा. भारतासारकिल्या देशांत रोजगाराचे बाबतींत आडखळी निर्माण करपी एक खाशेलें म्हत्वाचें द्वंद्वच दिसता. अर्थीक उदरगत आनी रोजगारवाड हांचेमदलें हें झगडें. अशा देशांनी रोजगार वाडोवपाचो आसल्यार अर्थीक उदरगत कठीण जाता, कारण अर्थीक उदरगतीखातीर आविल्ल्या उत्पादन तंत्राचो आदार घेवंचो पडटा. हें तंत्र भांडवलाचेर आदारीत आशिल्ल्यान तातूंत रोजगाराक उणो वाव आसपाची भिरांत आसता. अर्थीक उदरगतीक लागून रोजगार वाडना, असो हाचो अर्थ न्हय. पूण पुराय रोजगार आनी अर्थीक उदरगत ह्यो दोनूय मोखी एकमेकांकडेन अशा देशांत सदांच सुसंगत थरनात.

- कों. वि. सं. मं.

**रोझ, आल्फ्रेड :** (जल्म : ५ ऑगस्ट, हळदोणें - बार्देस).

पुराय नांव रुझारियो आल्फ्रेड फेर्नांदीश.ताचें मुळावें शिकप मुंबय सेंट झेवियर हायस्कुलांत जालें. मुंबयचे ग्रिंडलेस बँकेंत नोकरी करता आसतनाच स्त्री. ए.आय.बी. हें बँकिंगचें प्रशिक्षण पुराय केलें. नोकरेंत मन लागना जाल्ल्यान इकरा वर्सां नोकरी करून नोकरेचो राजिनामो दिवन तो भायर सरलो. भुरगेपणासावन ताका गायनाचो छंद आशिल्लो. तोच वेवसाय करपाचें ताणें थारायलें. आपूण रचून



कांतारां गावंक लागलो. १९६२त आवाजाचें प्रशिक्षण घेवपाखातीर तो लंडनाक गेलो. १९६२ ते ७० मेरेन अबुधाबीक नॅशनल सिटी बँकेंत इम्पोर्ट एक्सपोर्ट विभाग मुखेली म्हणून ताणें चाकरी केली. ह्याचवेळार ताणें बैरूट, जर्मनी, इजिप्त, पॅरीसाची भोंवडी केली. १९७८त ताणें कोंकणी गितांची व्हड कॅसेट काडली. आयजमेरेन ताच्यो अशो १५ कॅसेटी भायर सरल्यात, तशेंच चार व्हड ध्वनीमुद्रिका आनी ५० ल्हान रेकॉर्डीय आयल्यात. ताचीं गितां (कांतारां) आकाशवाणी, दूरदर्शनावयल्यानय वाजतात. बगलांट ह्या सिनेमाचीं पदां, ताणेंच रचल्यांत, तशेंच तांकां संगीतय ताणेंच दिलां. ताच्या कांतारांक खूब नामना मेळ्ळी. मुंबय, बेळगांव, गोंय तेच प्रमाण लंडनाक ताणें स्टेज शो केल्यात. ओडलायणी उतरावळ, संगीत आनी काव्य हांकां लागून ताच्या कांतारांनी लोक धादोशी जातात. ताची घरकान्न रीटा रोझय ताका ह्या कामांत आदार दिता. एरोप्लेनाक उजो, गुपीत मोग, दोतोराचो दोतोर, ट्रेन आनी बस आक्शिनेत हीं ताचीं बरींच गाजिल्लीं कांतारां. बरो गीतकार, बरो संगीतकार आनी बरो गावपी अशी ताची किर्त आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**रोटरी इंटरनॅशनल :** उद्देगधंद्यांत नामना मेळयल्ल्या व्यक्तींनी वेगवेगळ्या क्षेत्रांत, समाजाची सेवा करची आनी अशी सेवा करप्यांक प्रोत्साहन दिवचें म्हणून स्थापणूक केल्ली एक आंतरराश्ट्रीय नागरी संस्था. भूतदया, मानवतावादी आनी शैक्षणिक प्रकल्प हांच्या माध्यमांतल्यान वेगवेगळ्या राश्ट्रांतल्या

रोटरी इंटरनॅशनलाचें बोधचिन्न

नागरिकांमदीं इश्टागत जावंची हो रोटरी संस्थेचो मुखेल उद्देश मानतात.

पयलीं वेगवेगळ्या सभासदांच्या कार्यालयांत क्लबाची बसका जाताली. ताचेवयल्यान ह्या क्लबाक 'रोटरी' म्हळयार 'घुंवतो' क्लब अशें नांव पडलें. पयलो रोटरी क्लब २३ फेब्रुवारी १९०५ दिसा शिकागोक पॉल पर्सी हॅरिस ह्या वकिलान स्थापलो. तेउपरांत १९१० वर्सा 'द नॅशनल असोसिएशन ऑफ रोटरी क्लब्स' ही संघटना स्थापन जाली. फुडें कॅनडा, आयर्लंड, ग्रेट ब्रिटन ह्या देशांनी क्लबाचे फांटे जाले आनी १९१२ वर्सा क्लबाचें नांव 'इंटरनॅशनल असोसिएशन ऑफ रोटरी क्लब्स' (आंतरराश्ट्रीय रोटरी संघटना) अशें दवरलें. १९२२ वर्सा परतून ताचें नांव बदलून सद्याचें 'रोटरी इंटरनॅशनल' अशें दवरलें. हे संस्थेचें संवसारीक मुख्यालय अमेरिकेच्या इलिनॉय राज्यांतल्या एव्हॅन्स्टनाक आसा.

१९१९ वर्सा रोटरी क्लब आशिया खंडांत मनिला (फिलिपिन्स) आनी कलकत्त्यांत (भारतांत) सुरू जालो. १९२९ वर्सा मुंबय आनी चेन्नईक (मद्रास) ह्या क्लबाची स्थापणूक जाली. रोटरी इंटरनॅशनल डिस्ट्रिक्ट ३१४ ची स्थापना महाराष्ट्रांत १ जुलय १९७० वर्सा जाली. रोटरीच्या वांगडयांक 'रोटेरियन' म्हण्टात. रोटरी इंटरनॅशनलाचे वट्ट १८ संचालक आसतात आनी ताचे अध्यक्ष १२ वेगवेगळे महासंघ नेमतात. वट्ट डिस्ट्रिक्ट गव्हर्नर ४८५ आसून ते आपापल्या डिस्ट्रिक्टाखातीर संचालक नेमतात. प्रत्येक रोटरी क्लबाचो अध्यक्ष आपआपले वांगडी नेमता. रोटरी इंटरनॅशनलचें इंग्लीश मुखपत्र रोटेरियन (स्पेनी आवृत्ती 'रिव्हिस्ता रोतेरिआ') हें शिकागोच्यान उजवाडा येता. अमेरिकेंत शिकागोंत संस्थेंचें सचिवालय आसून ताची विभागीय कार्यालयां झुरिक (स्विव्झर्लंड), लंडन (ग्रेट ब्रिटन) आनी मुंबयंत आसात. हुशार विद्यार्थ्यांक उंचेल्या शिक्षणाखातीर शिश्यवृत्त्यो दिवप, ग्रंथालयां उबारप, उद्येग धंद्याचें प्रशिक्षण दिवप, ग्रामविकासांत अर्थीक आदार करप, कुड्ड्या - थोंट्यांक सुविधा मेळोवन दिवप अशीं सेवेचीं कामां भारतांत आनी हेर देशांनी ही संस्था करता. १९६२ - ६३ आनी १९९१-९२ ह्या वर्सा रोटरी इंटरनॅशनलाचें अध्यक्षपद भारताक मेळ्ळें. दर वर्सा रोटरीचें संवसारीक अधिवेशन भरून, तातूंत संवसारीक अध्यक्ष वेंचून काडटात.

रोटरी इंटरनॅशनलाच्या १९१७ वर्सा ॲटलांटांत (जॉर्जिया राज्य) भरिल्ले आंतरराश्ट्रीय परिशदेंत धर्मादायी, परोपकारी आनी शैक्षणिक उपक्रमांक चालना दिवपाच्या हेतून 'रोटरी फाउंडेशन' नांवाचो निधी उबारलो. ह्या प्रतिश्ठानाक मेळपी देणग्यो, आनी तांची वेवस्था, प्रशासन हांची जबाबदारी पांच विश्वस्तांचेर सोंपयतात. ह्या रोटरी इंटरनॅशनलच्या संचालक मंडळान १९६२ वर्सा 'इंटरॅक्ट' नांवाची जगांत माध्यमिक शाळांतल्या विद्यार्थ्यांखातीर एक संघटना स्थापन केली. तरणाट्यांमदले नेतृत्वगूण, तशेंच आंतरराश्ट्रीय सेवेचो आनी

सगळयांची उदरगत करप हो इंटरॅक्टाचो मुखेल हेतू. रोटरी क्लब हो इंटरॅक्ट क्लबाचो प्रायोजक आसा. १९८७ चे निमाणेकडेन ८५ देशांतल्या ४६० डिस्ट्रिक्टांमदीं ५,००० वयर इंटरॅक्ट क्लब आसून तांच्या वांगड्यांची संख्या सुमार १,१८,००० आशिल्ली. ह्या आंतरराश्ट्रीय रोटरीन जगांतल्या सगळया रोटरी क्लब आनी इंटरॅक्ट हांच्या सहकारान १८ ते २८ वर्सां पिरायेमदल्या चले चलयांखातीर 'रोटरॅक्ट' (रोटरी इन ॲक्शन) ही नवी संस्था निर्माण केली. रोटरियनांच्या बायलांक संस्थेच्या वेगवेगळया कार्यावळींनी वांटो घेवचो ह्या उद्देशान रोटरीन 'इनरव्हील' नांवाची नवी संस्था उबी केली.

महाराष्ट्र राज्यांत पयलो रोटरॅक्ट क्लब 'रोटरी इंटरनॅशनल क्र. ३१४', ६ ऑगस्ट १९६८ वर्सा अंबरनाथाक सुरू जालो. रोटरॅक्टाच्या वांगड्यांक रोटरॅक्टर म्हण्टात. संवसारांतल्या १०५ देशांमदीं रोटरॅक्टाचे ५,००० परस चड क्लब आसून, तांची वांगडी संख्या एका लाखावयर आसा. ही रोटरी इंटरनॅशनल ही संघटना वांगड्यांच्या सहकार्यान वेगवेगळया तरांचे भौसाचें कल्याण जायसारके उपक्रम करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रोबॉट :** मानवी हिकमतीचीं कामां करपी स्वयंचलीत पूण मानवी नियंत्रीत अशें यंत्र. भारतीय भाशांनी ताका यंत्रमानव म्हणप जाता. इंग्लीशींत वापरांत आशिल्ली रोबॉट ही संज्ञा चॅक भाशेंतल्या robot'a ह्या उतरावयल्यान आयिल्ली आसून तिचो अर्थ बेठबिगारी (मोबदल्याबगर करून घेतिल्लें काम) असो आसा. हे संज्ञेचो आधुनिक उपेग कारेल चापेक ह्या चॅक नाटककारान १९२०त बरयल्ल्या R.U.R (रॉसन्स युनिव्हर्सल रोबॉट्स) ह्या नाटकांतल्यान रूढ जालो.

रोबॉट हो आधुनिक सोद आसलो तरी तत्सम यंत्रणेची कांय प्रमाणांतली कल्पना आदल्या काळांत मेळटा. आयचे रोबॉटाचे व्याख्येंत, व्याप्तींत, संकल्पनेंत आनी तत्त्वांत जरी आदल्या काळांतल्या यंत्र मानवाचे कल्पनेक रोबॉट ही संज्ञा दिवंक मेळचिना, तरी खंयच्याय शास्त्राची प्रगती ही खंयचे ना खंयचे कल्पनेचें विस्तारीत रूप आसता. ह्या न्यायान आनी नात्यान आयच्या रोबॉटाचो संबंद आदले मुस्तींतल्या मानवयंत्राचे कल्पनेकडेन लायलो जाल्यार तें व्हडलेशें चुकता अशें जावचेंना. वाफेच्या आदारान मंदिराचीं दारां उक्तीं करपी इजिप्ताच्या धर्मगुरूंनी यंत्रणा वापरिल्ली असो उल्लेख मेळटा.

होमर ह्या ग्रीस कवीन इलिअड ह्या म्हाकाव्यांत अग्नी, धातुकर्म आनी यंत्रशास्त्र हांचो देव हीफिस्टस हाची सेवा दोन यंत्रीक बायल पुतळे करताले असो उल्लेख केल्लो मेळटा. पुर्विल्ल्या चीनी आनी इथिओपियन लोकांनीय उदकाचे आनी वाफेचे शक्तीचेर हालचाल करपी पुतळे तयार केल्ल्याचो पुरावो मेळटा. कथासरित्सागर ह्या इकराव्या शेंकड्यांतल्या भारतीय संस्कृत कथासंग्रहांत यंत्रीक बावल्यांचो उल्लेख सांपडटा. अठराव्या शेंकड्यांत प्येर आनी आंरी झाकड्रॉझ ह्या स्वीस भावांनी घड्याळींत वरांचे टोले वाजोवपी, वाद्यां वाजोवपी, लेखणेन बरोवपी, चित्रां काडपी स्प्रिंगचलीत मनीस तयार केले. अमेरिकेंत स्युअर्ड बॅबिट हाणें १८९२त तयार केल्ले चलित्रयुक्त यारींत भट्टेंतलो हुनहुनीत तिरव्याचो गुळो भायर काडून जाय थंय दवरपी हाताची रचणूक केल्ली.

सुरवेक रोबॉटाची व्याप्ती सादारण उद्दिश्टां खातीर वापरपाचें आयूध इतलीच आशिल्ली. उपरांत, यंत्रमानव निर्मितींत आधुनिक तत्त्वांचो वापर जावन आनी आधुनिक विज्ञानीक सोदांचो आदार घेवन, खाशेल्या कामाच्या आनी खाशेल्या दर्जाच्या रोबॉटांची निर्मिती जाली. सकयल दाखयल्ल्या कोश्टकांत रोबॉटांचे कांय प्रकार दाखयल्यात. तातुंतले सगळेच प्रकार सध्याक अस्तित्वांत नासले तरी तशा रोबॉटांच्या अस्तित्वाची कल्पना आयच्या तंत्रज्ञांनी केल्या.

### रोबॉटांचें नामाभिधान

| चडट्या क्रमान क्षमताय | मनशा सारको दिसपी नासल्यार नांव | मनशाभाशेन दिसता आनी मनशाभाशेन आसा जाल्यार नांव |
|---|---|---|
| पूर्व मुद्रित कार्यावळीप्रमाण कार्यकरपी | ऑटोमॅटन | ऑटोमन |
| आनी गतिशील आशिल्लो | मेकॅनॉयड | मॅनड्रॉयड |
| आनी तातूंत संगणक आनी संवेदक आशिल्लो | ॲड्रॉयड | ह्युमॅनॉयड |
| आनी अनुकूली आनी अणभवावयल्यानशिकपाची तांक आशिल्लो | सायबोर्ग | सायमॅन |
| आनी मनशापरस चड भौतीक आनी मानसीक तांक आशिल्लो | हायबोर्ग | सूपरसायमॅन |

आधुनिक रोबॉटांत सेवाचलित्रां, प्रकाशीय सांकेतक, पुनःप्रदाय क्रियेच्या आदारान करतल्यो सुदारणा आनी नियंत्रण, सुक्षम इलेक्ट्रॉनिकी, संगणक, उच्चस्तरीय भाशांतलें कार्यक्रमण आनी सुविकसीत संवेदक ह्या सगळयांचो आस्पाव केला. असो रोबॉट रोकडोच क्रियाशील, अचूक यंत्राच्या स्वरुपाचो आसून एकलो वा कसलेय व्हडले प्रणालीचो वांटो म्हणून विश्वासान काम करता. हातुंतलो बरोचसो विकास १९४० - ६० ह्या काळांत जालो आनी तातुंतलो कांय दुसऱ्या

म्हाझुजांतल्या गरजांक लागून जालो. १९४६त जे.पी. एकर्ट आनी जे. एब्ल्यू हाणें पयलो व्हडलो इलॅक्ट्रानीय संगणक (ENIAC) तयार केलो आनी फुडें १९७० उपरांतच्या धा वर्सांमदीं लघुसंगणक आनी तेफुडल्या धा वर्सांमदीं सुक्ष्म संगणक विकसीत जाले उपरांत संगणक - आदारीत रोबॉट तयार करप सोंपें जालें. ह्याच काळांत किरणोत्सर्गी द्रव्यां सुरक्षीतपणान हाताळपाचे नदरेन रोबॉटाचो हस्तक्रियाकारक विकसीत केलो. हेरवातीर सेव्य - सेवक दूरहस्त क्रियाकारक प्रणाली आरगॉन नॅशनल लॅबोरेटरींत तयार केली. हातूंत सांधे, अक्ष आनी मुक्तताय मात्रा (प्रणालीची अवकाशांतली मांडणी जितल्या तरांनी बदलपाक शकता तो आंकडो) हांचेविशीं मेळिल्ले म्हायतीचो आधुनिक रोबॉटांत बऱ्याच प्रमाणांत उपेग केलो.

१९५० उपरांतच्या धा वर्सांत मॅसॅचुसेट्स इन्स्टिटयूट ऑफ टॅक्नोलॉजीच्या लिंकन लॅबोरेटरीसांत हे प्रणालींत सेव्य वटेक 'स्पर्शज्ञान' आनी सेवक वटेक संपर्क दिवपावातीर स्पर्श संवेदक आनी पुनःप्रदाय हांचो आस्पाव केलो. हे प्रणालीचो आयच्या रोबॉटांत आस्पाव जाता. दूरचालक आनीक एके विकसीत केल्ले प्रणालींत सेव्य आनी सेवक हांचेमदल्या यंत्रीक दिव्यांच्या जाग्यार स्विच, बटन आनी नियंत्रक दांडी बसयल्ल्या नियंत्रक पेटयेंतल्यान सरयो वा रेडियो संकेत हांच्या आदारान दुवो सांदिल्लो आशिल्लो. हीं खाशेलपणां आधुनिक रोबॉटाच्या शिकवण लोलकांत आस्पावन घेतिल्लीं दिसतात. तशेंच त्या काळांत ह्या सगळया गजालींच्या सतत नियंत्रणाखातीर मानवाचो आदार गरजेचो आसलो.

१९६० उपरांतच्या धा वर्सांत स्टॅनफर्ड विद्यापिठांतल्या संशोधकांनी हस्तक्रियाकारकाच्या हालचालींखातीर आनी नियंत्रणाखातीर दूरचालकाच्या सव्य बाजू वटेन मनशाच्या बदला संगणकाचो उपेग केलो.

१९४६त जॉर्ज डेव्हल हाणें यंत्राची प्रक्रिया नियंत्रीत करपाखातीर एक चुंबकी नियंत्रक विकसीत केलो. १८५४त ताणें ताचो उपेग करून भुजाच्या तोंकाक हत्यार जोडणी केल्लो पयलो कार्यक्रमणशील उद्देगीक रोबॉट तयार केलो. ह्याच अदमासाक उद्देगाभायर हेर मळांचेर उपेगी पडटले अशा रोबॉटांचे आद्य नमुने विकसीत जावंक लागले.

युनिमेट 2000 हो १९६१त खरेपणान उद्देगीक उपेगांत हाडिल्लो पयलो वेव्हारीक रोबॉट आशिल्लो. द्रवीय - चलीत रोबॉटाचो आराखडो जड कामांखातीर केल्लो आनी तो पयलीं जपानांत आनी मागीर अमेरिकेंत व्हड प्रमाणाचेर वापरलो. ह्या रोबॉटाचो विकास चड करून जॉर्ज डेव्हल आनी जे. एफ्. एंगेलबर्गर हांच्या यत्नांतल्यान जालो. डेव्हिलाक कार्यक्रमणशील हस्तक्रियाकारकाचें एकस्व (पेटंट) मेळ्ळे. एंगेलबर्गर हाणें डेव्हलावांगडा उद्देगांत रोबॉटांचो उपेग करपाखातीर चालना दिवपाचे नदरेन पालव दिलो आनी त्या दोगांनीय मेळून युनिमेशन ही रोबॉट तयार करपी कंपनी स्थापन केली. ताचेउपरांत थोड्याच काळांत अमेरिकन मशीन फाऊंड्री हे कंपनीन व्हर्साट्रान प्रकारचे रोबॉट तयार केले आनी मागीर हेर कंपन्यांनी उद्देगीक रोबॉट तयार करपाक सुरवात केली. सिको ह्या जपानी कंपनीन त्याच अदमासाक एक सादो पूण अचूक आनी विश्वसनीय अशा वातचलीत रोबॉटाचो घड्याळींचे जुळोवणेखातीर उपेग केलो. १९७३त सिनसिनॅटी मिलॅक्रॉन कंपनीन T³ ह्या लघुसंगणकान नियंत्रीत करतल्या आनी संगणकाच्या आदारान परत कार्यक्रमण करपी रोबॉट प्रचारांत हाडलो.

सद्या रोबॉटाक नदर आनी स्पर्श हांच्यो संवेदना दिल्ल्यो आसून कसलेय वस्तूचें अंतर, आकारमान आनी तापमान ते सांगपाक शकनात पूण हेर जायत्यो गजाली ते मनशापरस चड बेगीन, चड अचूक आनी चड सोंपेपणान करूंक शकतात. चलप, सोंपणां चडप, आयकप आनी दिल्ल्यो तोंडी सुचोवण्यो पाळप हांचेसारक्यो क्रिया करूंक शकतात.

**संगणक नियंत्रक :** चड सुविकसीत नियंत्रण प्रणाली. रोबॉटाचो गतिमार्ग संगणकाच्या आदारान आपोआप निर्माण करतात. तेखातीर लागपी संगणनां, ही प्रक्रिया करपाच्या वस्तूसंबंदीं वा कामासंबंदीं संगणकाच्या प्रदत्त - संग्रहांत (म्हायती संग्रहांत) आशिल्ल्या गणितीय वर्णनाच्या आदारान करतात. भोंवतणचे परिस्थितीसंबंदीं रोबॉटाच्यो संवेदना प्रणालीन दिल्ले म्हायतीप्रमाण बदलपी गतिमार्गय संगणक निर्माण करपाक शकतात. परिस्थितीविशीं गृहीत धरिल्ल्या कांय गजालींचेर आदारीत रावनासतना ह्या संवेदना - आंतरक्रियाशील प्रकाराच्या नियंत्रणाक लागून परिस्थितीप्रमाण रोबॉट फावो ती क्रिया करपाक शकता.

**श्रेणीय नियंत्रण :** सगळयांत फुडारिल्ली रोबॉट नियंत्रण प्रणाली श्रेणीय नियंत्रणान आपणायतात. अशे प्रणालींत नियंत्रण टप्प्यांचे श्रेणींतली दर एक पातळी तिचेवयले पातळेकडल्यान खंयचें ध्येय गांठपाचें आसा ताचें निवेदन आपणायता. ह्या उद्दिश्टाचो घुस्पागोंदळ पातळेचे श्रेणींतल्या स्थानाचेर आदारीत आसता. सगळयांत सकयली पातळी सांध्याच्या स्थितीच्या सेवा - चलित्राची आसता आनी तातूंत आज्ञेप्रमाण त्या सांध्याची फुडली स्थिती इतलेंच उद्दिश्ट आसता. दर एक उंचेली पातळी आपलें उद्दिश्ट गांठपाखातीर तिचे सकयले पातळेक आज्ञाक्रम (उपउद्दिश्टां) दिता. हीं उपउद्दिश्टां वेंचतना दर एक पातळी आपलें चालू उद्दिश्ट तिच्या संवेदना - आदानाप्रमाण आसपी भायले परिस्थितीची चालू अवस्था आनी सकयले पातळेची

चालू अवस्था हें सगळें जमेक धरता. अशेतरेन श्रेणीची दर एक पातळी फुडले सकयले पातळे क्रियांचेर सेवा - नियंत्रक म्हणून कार्य करता आनी आपल्या उद्दिश्टांप्रमाण निश्चीत केल्ल्यो घटनांच्यो अवस्था आनी चालू घटनांच्यो अवस्था हातुंतलो फरक उणो करपाचे नदरेन सकयले पातळेक आज्ञा दिता. अशो प्रणाली संवेदना आंतरक्रियाशील आसून मानवी तंत्रिका तंत्रांतल्या (मज्जासंस्थेंतल्या) जायत्या कार्यांसारकी नियुक्तकार्य पृथक्करण करपी श्रेणीय रचना हांचो तातूंत आस्पाव आसता. हे प्रणालीक लागून उच्चतम पातळेचेर उद्दिश्ट निश्चीत करपी सामक्या, सर्वसादारण आज्ञांच्या आदारान रोबॉटाक सुचोवण्यो दिवपाक येतात.

**समन्वय :** रोबॉटाचे गतीच्या नियंत्रणाच्या वेगवेगळ्या पातळयांनी फरक करपाची एक पद्दत म्हळयार तांचे भाग गतिमान आसतना तांचेभितर जावपी समन्वयाचें प्रमाण मतींत घेवप.

कार्यक्रमणाच्या मूलभूत भाशांपसून तयार जाल्ले वेगवेगळे प्रकार लक्षांत घेतल्यार रोबॉट कार्यक्रमणाच्यो सुमार २० भासो आसून तांच्यांत आनिकय भर पडत आसा. तशेंच सद्या - वापरांत आशिल्ले चडशे रोबॉट कार्यक्रमण भाशा सुव्यक्त आसात. म्हणजेच तातुंतल्यो सुचोवण्यो रोबॉटाक सरळ क्रिया करपाचे आज्ञेच्या स्वरुपाच्यो आसतात. सद्याच्या कार्यक्रमण भाशांनी तपशीलवार सुचवण्यो अचूक वाक्यरचना करून दिवंच्यो पडटात. पूण फुडाराक कार्यक्रमण करपाखातीर रोबॉटाकडेन उंचेले पातळेची बुद्दीमत्ता आसप गरजेचें आसतलें.

उंचेल्या स्तरावयल्या रोबॉट कार्यक्रमणाची भास विकसीत करपाचें कार्य जायतीं विद्यापिठां, रोबॉट उत्पादक आनी कांय देशांचीं शासना करीत आसात. ह्यो भासो तशेंच तोंडी आज्ञा आनी जायत्या वेगवेगळया संवेदकांपसून मेळपी संकेत संयोगान परिणामकारकपणान सुरक्षीतपणान कार्य करपाक शकपी रोबॉट निर्माण करपाक येतले.

रोबॉटापसून जायते फायदे आनी नुकसानूय जाता. धोक्याच्या कामांपसून रोबॉट मनशाची सुटका करपाक शकता. मनशाक बुरशीं, वाजेवणी आनी उणेपणाचीं दिसपी कामां रोबॉट करपाक शकता. जड वस्तू ते सतत उखलपाक शकतात. तशेंच ते सामके ल्हान, नाजूक भाग तांकां अपाय करीनासतना हाताळपाक शकतात.

राखणदार उजो आनी घरफोडी हांचे धोकासूचक, परिक्षक आनी संनियंत्रक म्हणून ते कठोरपणान, विश्वासूपणान आनी विसव घेनासतना काम करपाक शकतात. मनशांपरस ते उणे खर्चीक आसतात. तांकां सोंपेपणीं आनी बेगीन प्रशिक्षण दिवपाक येता आनी बदलपी गरजांप्रमाण लवचिक आनी फावो अशें जावपाखातीर परत प्रशिक्षण दिवं येता. कसलेंय काम केले उपरांत ते दुसऱ्या कामाखातीर वापरपाक येतात. तांच्या उपेगाचेर फकत तांचो वापर करपी गरजो आनी कल्पनाशक्ती हांकां लागुनूच मर्यादा येवपाक शकतात. जशें माक्नान लोकांच्या कामाचेर आनी पर्यायान दिसवड्याचेर हावळ हाडली, तेचभाशेन रोबॉटाक लागून कांय खाशेल्या मळांचेर बेकारी निर्माण जावं येता म्हणपाचो धोको दिसता. मशिनांच्या आदारान उद्देगधंद्यांनी वाड जावन, चडांत चड लोकांक, पारंपारीक पद्दती भायलें काम मेळूंक पावलें तशें रोबॉटाक लागुनूय, वेगळे तरेच्या कामाखातीर चड लोकांची गरज पडूं येता.

एका अदमासाप्रमाण जगांतल्या उद्देगीक रोबॉटांचो आंकडो १९८१त सु. २३,००० आशिल्लो. हातुंतले १४,००० जपानांत; ५,००० अमेरिकेंत आनी ४,००० अ. युरोपांत आशिल्ले. अमेरिकेंतल्या रोबॉटांतलें सु. ८०%, धातुकाम उद्देगांत वापरताले सु. ३०% स कंपन्यांकडेन आशिल्लें आनी तातुंतल्यो तीन कंपन्यो मोटारींच्या उद्देगांतल्यो आशिल्ल्यो.

भारतांत मुंबयच्या मेकेलॉनिक वॅल्डर्स हे खाजगी मळावयले कंपनीन मुखेलपणान वितळ जोडकामाखातीर उपेगी असो द्रवीय - चलीत रोबॉट १९८२च्या अदमासाक तयार केलो. भारत इलेक्ट्रॉनिक्स भौशीक क्षेत्रांतले कंपनीन दूरचित्रवाणींतल्या चित्रनलिकांचे जुळोवणे खातीर 'उखलपी दवरपी' प्रकारचो आनी सुक्ष्म प्रक्रियकाच्या आदारान नियंत्रीत केल्लो रोबॉट तयार केला.

मुंबय इलेक्ट्रॉन्यूमॅटिक्स अँड हायड्रॉलिक्स (इंडिया) हे खाजगी मळावयले कंपनीन द्रवीय आनी विद्युत् शक्तीचेर चलपी वेगवेगळया कामांखातीर उपेगी अशे रोबॉट तयार केल्ले आसात. हांचेभायर हिंदुस्थान मशीन टुल्स (बेंगळूर), जयहिंद सायाकी (चिंचवड, पुणें) आनी सिफ्लॅक्स ऑटोमेशन अँड रोबॉटिक्स कंपनी (मद्रास) ह्यो कंपन्यो वेगवेगळया प्रकारांचे रोबॉट तयार करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रोम :** इटली देशाची राजधानी आनी संवसारांत इतिहासिक प्रसिद्दी लाबिल्ल्या शारांभितरलें एक व्हडलें शार. तशेंच सुमार दोन हजार वर्सांवयर एक खाशेली संस्कृताय जतन करून दवरपी एक म्हत्वाचें केंद्र. ताच्या दीर्घ इतिहासाक लागून रोम शाराक 'इटरनल सिटी' म्हळयार 'सासणाचें शार' म्हळां. थंयचें आदीम स्मारक, भव्य इगर्जो आनी राजभवन हें सगळें रोम शाराची पुर्विल्ली व्हडवीक सांगता. रोमी साम्राज्याची राजधानी ह्या नात्यान रोमान पुर्विल्ल्या काळांत चडशा अस्तंती देशांचेर आपलो शेक गाजयलो. शेंकड्यांनी वर्सां रोम हें युरोप, उत्तर आफ्रिका आनी अस्तंत आशिया हांचें अधिकार क्षेत्र आशिल्लें. वास्तूशिल्प, राज्यकारभार, भास आनी कायदो हांच्यांतल्यान पुर्विल्ल्या रोमाचो प्रभाव आजुनूय दिसता. वॅटिकन शारांत रोमन कॅथलीक धर्माचो सर्वोच्च धर्मगुरू, पोपाचो राबितो हांगा आशिल्ल्यान,

रोम हें रोमन कॅथलीक इगर्जेचें केंद्र जालां. १५०० ते १६०० शेंकड्यांमदल्या काळांत पोप सायबान संवसारांतल्या कांय श्रेश्ठ कलाकारांक हाडून रोम शाराची सोबीतकाय वाडयली.

इटलीच्या मध्यभागार, टायबर न्हंयेच्या दोनूय देगांचेर रोम शार वशिल्लें आसा. तें तिऱ्हेनियन दर्या सावन सुमार १६ किमी. पयस आसा. सद्या अस्तित्वांत आशिल्लें रोम शार, ल्हान ल्हान अशा वीस दोंगुल्ल्यांचेर वशिल्लें आसा. त्या दोंगुल्ल्यांभितर पुर्विल्लें रोम जें सात दोंगुल्ल्यांचेर वशिल्लें आसा, तांचोय आस्पाव जाता.

अव्हन्टायन, सॅलियन, कॅपिटोलीन, एस्कुलीन, पॅलटायन, कॅरिनल आनी विमिनल ह्यो त्यो सात दोंगुल्ल्यो आसात. अवेन्टान, कॅलियन आनी पॅलटायन ह्या दोंगुल्ल्यांचेर पुर्विल्ल्यो इमारती भग्न अवस्थेंत पळोवपाक मेळटात. पॅलटायन दोंगुल्लेचेर व्हड पोरसूंय आसा. एस्कुलीन आनी विमिनल दोंगुल्ल्यांचेर सदांच गर्दी आसता. इटलीच्या अध्यक्षाची पालास कुरीनाल दोंगुल्लेचेर आसून ती तांचेमदली सगळयांत उंचेली दोंगुल्ली. कॅपिटोलीन दोंगुल्लेचेर प्रसिद्द वस्तू संग्रहालय आनी मायकलएंजलो हाणें पुर्वचित्र तयार केल्लो प्रसिद्द चौक आसा.

रोम शाराच्या पुर्विल्ल्या इतिहासीक आनी धर्मीक म्हत्वाक लागून दर वर्सा हजारांनी पर्यटक थंय वतात. वॅटिकन पालासींत सोबीत चित्रां आनी पुतळे प्रदर्शनाखातीर दवरल्यात. तातूंत लिओनार्दो दा विन्ची, मायकल एंजेलो आनी राफाएल ह्या सारकिल्ल्या संवसारांतल्या प्रसिद्द कलाकारांच्यो सगळयांत बऱ्यो कलाकृती थंय पळोवपाक मेळटात. कॅपिटोलीन वस्तुसंग्रहालय आनी नॅशनल वस्तुसंग्रहालय हीं संवसार प्रसिद्द संग्रहालयां रोमांत आसात.

विल्ला बोरजेसाक प्रबोधन तेंपावयली कलाकृती पळोवपाक मेळटा. जाल्यार नॅशनल गॅलरी ऑफ मॉडर्न आर्टस् ह्या संग्रहालयांत मुखेलपणान १८०० ते १९०० व्या काळामदली कलाकृती प्रदर्शनाखातीर दवरल्या. वॅटिकन शारांत आशिल्ली सेंट पिटर्स चर्च ही युरोपांतली सगळयांत व्हडली इगर्ज. प्रबोधन तेंपावयलो तो एक सोबीत आनी भव्य नमुनो. मायकल एंजेलो हाणें १५००त काडिल्ल्या पुर्वचित्राचेर ती इगर्ज उबारल्या. संवसारांतल्यो कांय प्रसिद्द कलाकृती तातूंत पळोवपाक मेळटात प्रबोधन तेंपार उबारिल्ल्यो हेर सोबीत आनी व्हड इगर्जो त्या शारांत आसात.

रोम शारांत सोबीत अशो साबार पालासी थंय आसात. पूण वेनेझीया पालास ही तांचेमदली चड प्रसिद्द पालास. ती १४०० च्या मध्याशी उबारिल्ली. १९२० ते १९३० मेरेनच्या तेंपार इटलीचो हुकूमशा बेनीटो मुसोलोनी हाणें आपली राजधानी ते पालासींत हालयली. सद्या ते पालासीचें वस्तुसंग्रहालयांत रुपांतर जाल्लें आसा. मॅडिसी घराब्याची मादामा पालास हिचो १८७१ सावन इटलीचें सिनेट म्हणून उपेग जाता. जाल्यार, क्युरिनाल पालासीचो इटलीच्या राश्ट्राध्यक्षाचें घर म्हणून उपेग जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**रोमी लिपी :** युरोपांतली एक म्हत्वाची लिपी. इ.स. आदीं इकराव्या शतमानांत सिरिया आनी पॅलेस्टायनांत नॉर्थ सेमिटिक लिपींतल्यान जल्मल्ल्या फिनिशियन ग्रीक आनी इट्रुस्कन हे लिपये परंपरेंतल्यान उत्क्रांत जाली. हे लिपीचो सुरवेचो इ.स. आदीं सव्या-पांचव्या शतमानांतलो इतिहास खुबूच तुटक स्वरुपाचो आसा.

वर्सा इ.स. आदी सव्या शतमानांत बरयल्लो सगळयांत पोरनो रोमी लिपींतलो लेख मेळ्ळा. तो एके भांगराचे खंजिराचे म्यानेचेर कोरांतिल्लो, आसून तो उजवेकडल्यान दावेकडेन बरयल्लो आसा. उपरांतचो शिलालेख रोमी सभाघरांतल्या एका चवकोनी फातरी खांब्याचेर चारूय वटांनी नांगरटी पद्धतीन उबो बरयल्लो आसा. उपरांतचो तिसरो शिलालेख ड्यूनॉस शिलालेख म्हणून वळखतात.

रोमांतल्या क्विरिनलाक १८८० वर्सा तो मेळिल्लो आसून तीन आयदनांच्या व्हड रांजणाच्या मर्दी तो बरयला. ताचो काळ इ.स. आदीं चवथें शतमान. हाचेभायर इ.स. आदीं दुसऱ्या आनी तिसऱ्या शतमानांतलेय कांय शिलालेख मेळळयात. पूण इ.स. आदीं पयल्या शतमानाउपरांतचे हे लिपींतले जायते शिलालेख मेळटात. तातुंतलो सगळयांत म्हत्वाचो लेख ऑगस्टाचो आसून तो Monumentum Ancyranum म्हणून वळखतात. ताचो काळ इ.स. आदीं ६३ ते इ.स. १४ ह्या दरम्यानचो आसा.

रोमी लिपीचे उत्पत्तीविशीं विद्वानांनी कांय मतां उक्तायल्यांत. कांय जाणांच्या मतान रोमी वा लॅटीन लिपीची उत्पत्ती ग्रीक लिपीपसून जाली आसुंये. कारण ताच्या मतान लॅटीन लिपी ही ग्रीकाच्या चॅलसिडिअन प्रकाराकडेन 'g' आनी 'P' ह्या दोन अक्षरांचो अपवाद सोडल्यार सारकी जुळटा. उपरांतच्या काळांत ब्रील हाणें इट्रुस्कन लिपीपसून लॅटीन लिपीची उत्पत्ती जाली अशें मत मांडलें. ताका लागून इट्रुस्कन लिपी ही ग्रीक आनी लॅटीन हांकां जोडपी दुवो आसा. हे इट्रुस्कन लिपयेंत सव्वीस अक्षरां आशिल्लीं. रोमी लोकांनी तातुंतलीं एकवीस अक्षरां घेतलीं. 'ह' वर्णाचो उच्चार आशिल्लीं महाप्राणयुक्त अक्षरां Kh, Ph, Th हांकां वगळ्ळीं.

इ.स. आदीं सातवें शतमान वा इ.स. आदीं सव्या शतमानाचे सुरवेक अभिजात लॅटीन लिपी ही तेवीस अक्षरांची आशिल्ली. तातुंतलीं एकवीस अक्षरां इट्रुस्कन लिपींतल्यान घेतिल्लीं. तीं अशीं : A,B,C,

(With Sound K), D, E, F, G, H,I,K,L,M,N,O,P,Q,P (कांयकडेन R अशेंय मेळटा) S,T,V,X

इ.स. आदीं पयल्या शतमानांत रोमी लोकांनी ग्रीकाचेर जैत मेळयतकच ग्रीक उतरां लॅटिनांत वापरपाक सोंपीं जावचीं देखून तातूंत 'Y' आनी 'Z' ह्या अक्षरांचो आस्पाव हे लिपींत जालो. तशेंच इकराव्या आनी बाराव्या शतमानांत 'V' ह्या अक्षराचें द्वित्व जावन 'W' ह्या जर्मन अक्षराचो तातूंत आस्पाव जालो. १५४२ वर्सा तातूंत 'J' हें अक्षर व्यंजन आनी 'I' हें अक्षर स्वर म्हणून लुई मायग्रेट ह्या फ्रेंच लिपितज्ञान उपेगांत हाडलें. कॅपिटल लिपींत 'V' आनी 'U' त फरक कर नाशिल्ले. 'V' हें अक्षर दोनांयखातीर वापरताले जाल्यार युन्सिअल लिपींत 'U' हें अक्षर 'U' आनी 'V' खातीर वापरताले. पूण धाव्या शतमानांत 'V' हें खास आद्याक्षरांखातीर मिनुस्कुल लिपींत उपेगांत हाडलें. त्याच वेळार 'U' हें स्मॉल लॅटर म्हणून वापरांत आयलें. अशे तरेन सद्याची रोमी लिपी ही २६ अक्षरांची जाली.

हे रोमी लिपीचे त्या त्या काळाचे गरजे प्रमाण वेगवेगळे प्रकार अस्तित्वांत आयले. तातूंत शिळा, माती वा धातूचेर कोरांतपाखातीर कॅपिटल वा मॉन्युमॅंटल लिपी वापरिल्ली आसा. तिसऱ्या शतमानांत पुर्विल्ल्या बायबलाच्या हातबरपांत आनी अभिजात साहित्याच्या हातबरपांत हीच लिपी मेळटा. चवथ्या शतमानापसून सातव्या शतमानामेरेन कॅपिटलाचो मातसो वेगळो 'रस्टिक' हो प्रकार मेळटालो. हे लिपीचो वापर शिळा आनी कांशें हाचेभायर पपायरस आनी पुर्विल्ल्या हाताबरपांनी केल्लो दिश्टी पडटा.

दुसऱ्या शतमानांत कॅपिटल लिपी फाटल्यान पडून 'कर्सिव्ह' (हाताबरपांतली धांवती लिपी) हे लिपीचो उदय जालो. फकत पुस्तकांतल्या माथाळयांखातीर वा आद्याक्षरांखातीर कॅपिटल लिपीचो उपेग जावंक लागलो. कॅपिटल लिपींतल्यानच युन्सिअल लिपी जल्माक आयली आनी चवथ्या शतमानासावन णवव्या शतमानामेरेन पुस्तकाखातीर युन्सिअल लिपीचो उपेग जालो. हे लिपींतलीं सुमार ३१० धर्मीक हाताबरपां उपलब्ध आसात. हे लिपीचो सगळयांत पुर्विल्लो पुरावो तिसऱ्या शतमानांतलो आसून तो उत्तर आफ्रिकेंतल्या शिलालेखांत मेळटा.

फुडें कॅपिटलांतल्यानच कर्सिव्ह कॅपिटल वा मॅजुस्कूल कर्सिव्ह ह्या प्रकाराचो उदय जालो. ही लिपी पुस्तकांखातीर आनी दीसपट्ट्या उपेगाखातीर आशिल्ली. पाँपेक १८७५त मेणाच्यो १३२ पट्ट्यो वा इश्टिका मेळ्ळयात. ताचेर हे लिपींत बरयल्ले सावकारी हिशेब आशिल्ले आनी तांचो काळ इ.स. ५३- ६२ इतलो आसा. कॅपिटल कर्सिव्हांत अक्षरांचो आकार उणो करपांत आनी अक्षरां जोडून बरोवपाचो कल दिसता. तेचपरी दुरेघी पद्दतीवयल्यान चौरेघी पद्दत घेतिल्ल्याचें दिसता. हे पद्दतीक 'हाफ युन्सिअल' अशें म्हण्टाले. क्रिस्तांव साहित्यांत पांचव्या शतमानासावन आठव्या शतमानामेरेन हो प्रकार सर्वसामान्य म्हणून अस्तित्वांत आशिल्लो. क्रिस्तांव धर्माच्या प्रसारावांगडा हाफ युन्सिअल अस्तंत आनी दक्षिण गोलांतल्यान आयर्लंडांत गेलो. ताका लागून हे लिपीक चड म्हत्व मेळ्ळें.

सातव्या शतमानांत 'मिनुस्कूल लिपी' पुस्तकांत आनी सदच्या वेव्हारांत वापरताले. तातूंत चौरेघी पद्दतीचो आस्पाव आशिल्लो. हे लिपीक न्यू आयरिश लिपी हें नांव दिलें. आयरिश धर्मप्रसारकां वरवीं ही लिपी जर्मनी, फ्रांस, इटली आनी स्वित्झर्लंडांत गेली आनी थंयचे लिपीचेर तिचो प्रभाव पडलो. रोमी लोकांची युन्सिअल आनी आयरिशांची हाफ युन्सिअल हांचो ब्रिटनांत मेळ जालो आनी तातुंतल्यान अँग्लो सॅक्सन हे लिपीचो उदय जालो. तातूंत कांय नव्या चिन्नांचोय आस्पाव जालो.

णवव्या शतमानांत रोमी लिपीक एक निश्चीत मोडण मेळून 'कॅरोलिंजिअन मिनुस्कूल' हो प्रकार अस्तित्वांत आयलो आनी ताचो प्रसार कॅरोलिंजिअन राज्यांत जालो. तेभायर ११०० च्या सुमाराक उत्तर आनी दक्षिण युरोपांतय जालो. ह्या काळांतलीं लॅटीन पुस्तकां हे लिपींत बरयल्लीं मेळटात.

बाराव्या - तेराव्या शतमानांत गॉथिक प्रकारांत मोडपी ब्रोकन लिपी अस्तित्वांत आयली. तिका 'गॉथिक मिनुस्कूल' म्हण्टाले. पंदराव्या शतमानांत मुद्रणाखातीर 'ह्युमॅनिस्टिक अँटिका' वा रेनेसन्स मिनुस्कूल नांवाची लिपी अस्तित्वांत आयली. अशे तरेन जे लिपींत कर्सिव्ह लिपीचीं खाशेलपणां आसात, ती सदच्या वेव्हाराखातीर वा कागदपत्राखातीर उपेगांत उरली. जाल्यार तेराव्या-चवदाव्या शतमानांत वेपारी उद्देगाखातीर वेपारी लिपी अस्तित्वांत आयली. सोळाव्या शतमानांत धांवते लिपीची सुरवात जाली.

ल्हव ल्हव करून रोमी लिपी अस्तंतेकडल्या अर्द्या रोमी साम्राज्याची लिपी जाली. किरिस्तांव धर्माच्या अनुयायांनी तिचो प्रसार उत्तर, अस्तंत, आनी मध्य युरोपांत केलो. तेभायर हेर युरोपी देशांनी आनी अमेरिकेंतूय हे लिपीचो प्रसार खूब व्हड प्रमाणांत जालो. ही लिपी इंग्लीश, फ्रेंच, जर्मन, इटालियन सारक्या जायत्या युरोपी भाशांखातीर वापरतात. हाचेवयल्यान हे लिपीचें म्हत्व कळटा. गोंयांत कोंकणी भाशेखातीर हे लिपीचो वापर किरिस्तांव समाजाकडल्यान आजय बऱ्याच प्रमाणांत जाता. ''तियात्र'' (कोंकणी नाटक) ''रोमान्सी'' (कादंबरी) ह्या किरिस्तांव समाजांत लोकप्रिय आशिल्ल्या कोंकणी साहित्याची लिपी रोमी आसा. तेभायर ह्या समाजांतली जाण्टी पिळगी आजूनय कोंकणी पत्रवेव्हाराखातीर रोमी लिपीचो वापर करता.

### रोमी वर्णमाळ

| मोटीं अक्षरां (मॉडर्न कॅपस) | | | ल्हान अक्षरां (लोअर केस) | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| गॉथीक | इटालीक | रोमी | गॉथीक | इटालीक | रोमी | कोंकणी वर्णमाळ |
| 𝔄 | *A* | A | 𝔞 | *a* | a | अ, अॅ, आ, ए |
| 𝔅 | *B* | B | 𝔟 | *b* | b | ब |
| ℭ | *C* | C | 𝔠 | *c* | c | क, च |
| 𝔇 | *D* | D | 𝔡 | *d* | d | ड, द |
| 𝔈 | *E* | E | 𝔢 | *e* | e | इ, ई, ए |
| 𝔉 | *F* | F | 𝔣 | *f* | f | फ |
| 𝔊 | *G* | G | 𝔤 | *g* | g | ग, ज |
| ℌ | *H* | H | 𝔥 | *h* | h | ह |
| ℑ | *I* | I | 𝔦 | *i* | i | इ |
| 𝔍 | *J* | J | 𝔧 | *j* | j | ज |
| 𝔎 | *K* | K | 𝔨 | *k* | k | क |
| 𝔏 | *L* | L | 𝔩 | *l* | l | ल |
| 𝔐 | *M* | M | 𝔪 | *m* | m | म |
| 𝔑 | *N* | N | 𝔫 | *n* | n | ण, न |
| 𝔒 | *O* | O | 𝔬 | *o* | o | ऑ, ओ |
| 𝔓 | *P* | P | 𝔭 | *p* | p | प |
| 𝔔 | *Q* | Q | 𝔮 | *q* | q | क, क |
| ℜ | *R* | R | 𝔯 | *r* | r | र |
| 𝔖 | *S* | S | 𝔰 | *s* | s | झ,श,स |
| 𝔗 | *T* | T | 𝔱 | *t* | t | ट |
| 𝔘 | *U* | U | 𝔲 | *u* | u | अ,उ,यू |
| 𝔙 | *V* | V | 𝔳 | *v* | v | व, व्ह |
| 𝔚 | *W* | W | 𝔴 | *w* | w | व |
| 𝔛 | *X* | X | 𝔵 | *x* | x | क्स, क्ष |
| 𝔜 | *Y* | Y | 𝔶 | *y* | y | य |
| ℨ | *Z* | Z | 𝔷 | *z* | z | झ |

- कों. वि. सं. मं.

**रोमां द ला रोझ :** संवसारांतलें नामनेचें फ्रेंच दीर्घकाव्य. गीयोम द लॉरीस आनी झांद म्यून हे ह्या काव्याचे कर्ते. लॉरीसाचे जिणेविशीं निश्चीत स्वरुपाची कांय म्हायती मेळना. झां द म्यून हो विद्यावंत व्यासंगी आसलो. ताणें व्हिजीशिअसच्या De re Militari ह्या ग्रंथाचो, तशेंच बोईथिअसच्या De Consolatione philosophiac ह्या ग्रंथाचो फ्रेंच अणकार केला.

ह्या दीर्घकाव्याचो पुर्वार्ध सु. ४,००० वळींचो आसून उत्तरार्ध सु. १८,००० वळींचो आसा. पुर्वार्धाची रचना गीयोम द लॉरीस हाणें १२२५ - ४० ह्या काळांत केली आसुंये तर झां द म्युन ह्या काव्याचो उत्तरार्ध सु. १२७५ - ८० ह्या काळखंडांत रचिल्ल्याचें दिसता.

ह्या काव्याचें स्वरूप थोडेभितर अशें - कवीक एक सपन पडटा तातूंत तो एका पोरसांत भोंवत आसा अशें कवीक दिसता. ह्या पोरसांतले एके सोबीत गुलाबाचे कळयेकडेन तो आकर्शीत जाता आनी कामदेवाचे सुवादीन वेता. ही गुलाबकळी मेळोवपाच्या यत्नांत कांय जाण ताका आदार करतात, जाल्यार कांय जाण आडरवळी हाडटात. ह्यो सगळयो व्यक्ती रुपकात्मक आसात. सौजन्यपुताच्या आदारान गुलाबकळयेलागीं वचून तिचो उमो घेतकच निंदा, लोकोपवाद, भंय कवी फाटल्यान लागतात आनी कवीक पळपाक लायतात. गुलाब कळये भोंवतणीं वण्टी उबारतात आनी तिचेर नदर दवरपाची वेवस्था करतात. ह्या काव्याचो गीयोम द लॉरीसकृत पुर्वध हांगा सोंपता.

गीयोम द लॉरीसाचें अर्दें उरिल्लें काव्य झां द म्हूना हाणें पुराय केलें. ताचे रचणुकेचें स्वरूप खूब वेगळें आसा. गीयोम द लॉरीस हो उमरावी श्रोतृवर्गाखातीर एक रुपककाव्य बरयतालो. झांद म्यूनान बरयल्ल्या ह्या काव्याचो उत्तरार्ध पळयल्यार, तातूंत रुपकात्मकतेक तुळेन गौणत्व आयिल्लें दिसता. झांद म्यूनामुखार आशिल्लो श्रोतृवर्ग सादारण आनी दृश्टीकोण मध्यम वर्गांतलो आसा. ताचेर प्रबोधन काळाचो प्रभाव आसा. कोणाय ज्ञानकोशकाराचे भूमिकेंतल्यान तो कथौधांत वेगवेगळया विशयावयलीं आपलीं मतां आनी भाश्यां मांडटा. सैमाचे नेम पाळचे, हें ताचें तत्त्वज्ञानाचें सार. सैमाचीं गुपितां बुध्दीच्या आदारान समजून घेवपाची गरज ताणें उक्तायल्या. ताचेर प्लेटो, ॲरिस्टोटल, व्हर्जिल, हॉरिस, बोईथिअस, रॉजर बेकन, जॉन ऑफ सॉल्झबरी हांचो प्रभाव आसलो. ताणें आपले विचार मांडटना बायलांचेर उपरोधप्रचुर टिका केल्या. सैम आनी कला हांचे संबंद, विज्ञान हांचेर ताणें बरयलें. तेचप्रमाण वंशपरंपरेन चलपी सरदारकी, लग्नसंस्था, लोभी, भिक्षूक हांचेविशींचे आपले विचार ताणें उक्तायल्यात. गुलाबकळयेची कथा ताणें सुरवांत केल्या.

ह्या काव्याचीं हातबरपां उपलब्ध आसात. चवदाव्या- पंदराव्या

शेंकड्यांतल्या कवींचेर ह्या दीर्घ काव्याचो व्हडलो प्रभाव पडिल्लो. १५३८ मेरेन ह्या काव्याच्यो सुमार ४० आवृत्त्यो भायर सरिल्ल्यो. नामनेचो फ्रेंच कवी क्लेमां मारो (१४९६ - १५४४) हाणें १५२७ वर्सा रोमा द ला रोझची आकृती संपादून उजवाडायली. मदल्या युगांतलो सर्वश्रेश्ठ इंग्लीश कवी जेफ्री चॉसस हाणें ह्या दीर्घकाव्याचो इंग्लीश अणकार रोमान्स ऑफ द रोझ करून आपले वाङ्मयीन कारकिर्दीची सुरवात केली. हें काव्य म्हळयार फ्रेंच साहित्यांतली पंडिती, वैचारिक काव्याचो सुरवातीचो नमुनो मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रोमानिया :** उदेंत युरोपांतलें एक प्रजासत्ताक राश्ट्र. रोमानिया म्हळयार रोमी लोकांची भूंय. तो देश आदल्या तेंपार रोमी साम्राज्याचो वांटो आशिल्लो देखुनूच ताका रोमानिया अशें म्हण्टात. देशाचें क्षेत्रफळ २३७,५०० चौ. किमी. आसून, ताचो अक्षवृत्तीय विस्तार ४३° ३७′ उत्तर ते ४८° १५′ उत्तर अक्षांश आनी २०° १५′ उदेंत ते २९° ४१′ उदेंत रेखांश. ताचें आग्नेयेक काळो दर्या (Black Sea), उत्तरेक आनी ईशान्येक मालदोवा, उदेंतेक युक्रेन, वायव्येक हंगेरी, नैऋत्येक युगोस्लावीया आनी दक्षिणेक बल्गेरीया आसा. बुखॉरॅस्ट शार हें देशाची राजधानी.

**भूंयवर्णन :** देशाचे उत्तरेकडेन आनी मध्य भागार साबार पर्वतावळी वाटकुळाकार पातळळयात. त्या पर्वतावळींनी ट्रान्सील्वानीयन सड्याची व्हड सपाट भूंय रेवडिल्ल्या त्या पर्वतांचे उदेंतेक, अस्तंतेक आनी दक्षिणेक व्हड सपाट मैदानां आसात.

रोमानियांतल्यो चडशो पर्वतांच्यो रांको कार्पाथीयन पर्वत समुहांतल्यो आसात. मोलदावीयन ही पर्वताची रांक उत्तरेक सावन देशाच्या मध्य - भागामेरेन पातळळया, जाल्यार ट्रान्सील्वानीयन आल्प ही पर्वतांची रांक मोलदावीयन रांकेचे अस्तंतेकडेन पातळळया. बिहार पर्वतांची रांक आनी ताचे लागशिल्ल्यो हेर रांको मेळून ''वॅस्टर्न कार्पाथीयन'' चोंबो तयार जाला. रोमानिया पर्वतांचेर चड ऊंच वा चड खर देंवत्यो आशिल्लीं तेमकां नात. चडशा सगळया पर्वतरांकांचेर साबार रिंवडां आसात, जीं येरादारीच्या मळार फायदेशीर थारल्यांत. चडशो पर्वतांच्यो वळी ९१० मी. ते १८०० मी. मेरेन उंचायेच्यो आसात. ट्रान्सील्वानीयन आल्प हें रांकेंतलें मोल्देवियेनू (२,५४३ मी). हें रोमानियांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. ट्रान्सील्वानीयन सडो दर्याथळासावन सुमार ३६६ मी. ऊंच आसा. काळयादर्याक तेंकून वा लागीं आशिल्ली चडशी भूंय सपाट आसा. ती भूंय पिकाळ आसून, देशांतलीं चडशीं शारां आनी नगरां त्याच प्रदेशांत आसात.

भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे ट्रान्सील्वानीयन, बुकोविना, मोल्दावीया, वालाचीया, बेनाट आनी दोबरुजा अशे स वांटे केल्ले आसात. ट्रान्सील्वानीयन हो देशाचो सगळयांत व्हडलो भाग आसून तो देशाच्या मध्याक सावन वायव्येक मेरेन पातळळा. देशांतल्या चडशा पर्वतांचो त्या भागांत आस्पाव जाता. तशेंच ट्रान्सील्वानीयन सडो आनी वायव्य मैदानांचो तातूंत आस्पाव जाता. सड्यावयली आनी मैदानांची भूंय पिकाळ आसा. देशाचो बूकोविना भूंय भाग ट्रान्सील्वानीयाचे ईश्यान्येक आसा. मोल्दावियन कार्पाथीयन पर्वत रांकांचो तातूंत आस्पाव जाता. त्या भागांत कांय ऊंच तेमकां आनी रूंद देगणां आसात. मोल्दावीया हो देशाचो ईशान्येकडचो भाग. तो ट्रान्सील्वानीया सावन मोल्दोवा शिमेमेरेन पातळळा. वालाचीया हो देशाचो दक्षिणेकडचो भाग. दक्षिण पर्वतांमेरेन तो डॅनूब न्हंयमेरेन पातळळा. बेनाट हो रोमानियाचो अस्तंतेकडचो भाग जाल्यार दोबरुजा हो डॅन्यूब न्हंयेचे उत्तरेक आनी काळया दर्यामदीं आशिल्लो ल्हानसो मैदानी भाग.

रोमानियांत साबार न्हंयो आसून, तातुंतली डॅन्यूब ही देशांतली सगळयांत व्हड आनी म्हत्वाची न्हंय. तिची देशांतली लांबाय सुमार १,४०० किमी. आसून ती मुखेलपणान अस्तंतेक सावन उदेंतेकडेन व्हांवता. काळया दर्या लागसार ती उत्तरेकडेन घुंवता आनी उपरांत उदेंतेकडेन मोडून काळया दर्याक मेळटा. देशांतल्यो चडशो न्हंयो उत्तरेकडच्यान व्हांवत येवन डॅन्यूब न्हंयेक मेळटात. तातूंत जिऊ,ऑल्तूल, आर्गीस, इयालोमीता, सिरेतूल आनी प्रूत न्हंयांचो आस्पाव जाता. देशांत ल्हान - व्हड मेळून सुमार २,५०० तळीं आसात.

**हवामान :** रोमानियांत गिमाच्या दिसांनी चड उश्णताय जाणवता आनी रखरखीत वत आसता. पूण शिंयाळो कडक आसून, त्या दिसांनी मळबांत कुपां दाटिल्लीं आसतात. सादारणपणान देशांतलें हवामान शितळ आसता. जुलय म्हयन्यांत सरासरी तापमान २१° सॅ. उरता, जाल्यार जानेवारी म्हयन्यांत ते -१° सॅ सकयल देंवता. रोमानियाच्या सपाट मैदानी प्रदेशांनी पर्वतीय प्रदेशांपरस चड उश्णताय आसता. देशाच्या पर्वतीय भागांनी सपाट मैदानी भागांपरस चड पावस पडटा. पर्वतीय भागांत सुमार ८० सेंमी. पावस पडटा आनी सपाट प्रदेशांनी ५० सेंमी. परस उणो पावस पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** रोमानियाचे वट्ट भुंयेंतली सुमार २७ % भूंय रानां सकयल आसा. पर्वतीय प्रदेशांचे उंचायेप्रमाण रुखावळीचे प्रकार बदलतात. ८०० मी. मेरेन उंचायेच्या प्रदेशांनी ओक प्रकारची रुखावळ चड आसा, जाल्यार ९०० ते १४०० मी. उंचायेच्या प्रदेशांनी बीच चोंब्यांतले रूख चड आसात. १४०० ते १८०० मी. उंचायेच्या प्रदेशांनी कॉनिफरस चोंब्यांतली रुखावळ चड आस. देशाच्या ट्रान्सील्वानिया भागांत दाट रानां आसात. चड उंचायेच्या प्रदेशांनी आल्पीय आनी सबआल्पीय प्रकाराची चरोव मळां आसात.

मोनजातीच्या मळार देश समृध्द आसून, थंय कांय खाशेल्या जातींची मोनजात मेळटा. चामोंयस ही मोनजात कार्पाथीयन दोंगराचेर आल्पीय मळांनी मेळटा. रानटी मोनजातींभितर वांस्वेल, तांबडें

हरण, कोले, रानदुकर, लिंक्स, मार्टेन आनी हेर मोनजात मेळटा. दक्षिणेक डॅन्यूब न्हंये भोंवतणच्या वाठारांनी वेगवेगळया प्रकारांची मोनजात आनी सवणीं मेळटात.

**इतिहास :** सगळयांत पयलीं रोमानियांत मनशाचो राबितो केन्ना जाल्लो हाचेविशीं इतिहासकारांक म्हायती मेळूंक ना. पूण इ.स. पयलीं. ३००त थंय 'डासियन' लोक रावताले अशें सांगतात. शेतवड तशेंच भांगर आनी लोरवण माल काडून शेजारी देशांकडेन तांचो वेपार करप हो तांचो मुरवेल वेवसाय आशिल्लो. डासिय लोकांवयल्यान त्या वेळार रोमानियाक 'डासिया' अशें म्हण्टाले. इ.स. १०६त सम्राट ट्रोजनच्या फुडारपणारवाला रोमी लोकांनी डासिया आपल्या शेकातळा व्हेलो आनी तो रोमी साम्राज्याक जोडलो. डासिया रोमी लोकांच्या शेकातळा गेले उपरांत रोमी वसणूककारांनी थंय आपलो राबितो केलो. उपरांत रोमी आनी डासियी लोकांभितर लग्नां जाल्ल्यान तांचेमदीं भरसण जायत गेली. त्या वेळार रोमी लोकांचो शेक चलत आशिल्ल्यान डासियन लोकांनी रोमी संस्कृताय आनी लॅटिन भास आपणायली. अशे रितीन रोमी लोकांच्या शेकाक आनी प्रभावाक लागून 'डासिया' प्रदेश रोमानिया म्हणून प्रसिद्द जालो.

तिसऱ्या शेंकड्यासावन बल्गर, गोथ, ह्यून, मागियार, स्लाव आनी तारतर आक्रमकांनी रोमानियाचेर घुरयो घालपाक सुरवात केल्ली. तांणी रोमी लोकांक त्या प्रांतांतल्यान धांवडावन घालपाचो खूब यत्न केले. तांच्यो घुरयो ११०० मेरेन चालूच आशिल्ल्यो. त्या वेगवेगळया पंगडांतले कांय लोक आनी मुरवेलपणान स्लाव लोक रोमानियनांकडेन लग्न जावपाक लागले. शेंकड्यांनी वर्सां चालू आशिल्ल्या त्या घुरयांक लागून देशाची राजकीय आनी अर्थीक स्थिती साप्प इबाडिल्ली. रोमानियाची सत्ता काबीज करपारवातीर ते पंगड एकामेकांआड झुजत आसले. त्या झुजांक लागून देशांत एकचाराची भावना निर्माण जाली. देशांत एकचार घडोवन हाडपारवातीर पयल्यो हालचाली १२५० आनी १२५० काळामदीं सुरू जाल्यो. त्या तेंपार रोमानियाचे दक्षिणेकडच्या वालाचीया प्रांतांतले लोक एकवटीत येवन तांणी स्वतंत्र राज्य निर्माण केलें. उदेंतेकडच्या मोल्दावीया प्रांतांतल्या लोकांनीय तशेंच केलें. दर एका राज्याचेर राजाचो शेक चलतालो देखून तांकां प्रिन्सिपालीटीस अशें म्हण्टाले.

इ.स. १०००त हंगेरीन रोमानियेचो उत्तरेकडेन आशिल्लो ट्रान्सील्वानियाचो चडसो वांटो हाताशिल्लो. तातूंत साबार रोमानियन लोकांचो आस्पाव आशिल्लो. उपरांत १९०० मेरेन तो हंगेरीकडेनूच आशिल्लो.

चवदाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत रोमानियांत अस्तित्वांत आयिल्ल्यो स्वतंत्र प्रिन्सिपालीटीस चड काळ तिगूंक शकल्यो नात. आशिया मायनरच्या ऑटमन तुर्कांनी १४७६त वालाचीया राज्याचेर आनी १५०४त मोल्दावीया राज्याचेर घुरी घालून तीं राज्यां आपल्या शेकातळा दवरलीं. उपरांत त्या राज्यांचेर तुर्की लोकांची सत्ता सुमार तीनशें वर्सांमेरेन उरली. तुर्कांची सत्ता येवंचे पयलीं लेगीत त्या दोनूय राज्यांतल्या शेतकामत्यांची परिस्थिती वायट आशिल्ली. तुर्की राजवटींत तांकां आनीक कर भरचो पडिल्ल्यान तांची स्थिती साप्प इबाडली. सतराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत रोमानियाच्या वरिश्ठ घराण्यांतल्या लोकांनी (Nobles) तुर्की लोकांची सत्ता हाणून उडोवपाचे खूब यत्न केल्ले. देखून अठराव्या शेंकड्याचे सुरवेक तुर्कांनी दोनूय राज्यांचो राज्यकारभार चलोवपारवातीर गिरेस्त ग्रीक लोकांक आमंत्रीत केल्ले. ते ग्रीसी लोक कोंस्टाटिनोपलच्या फानार जिल्ह्यांतल्यान आयिल्ले. देखून रोमानियन लोक तांकां फानारिओट्स अशें म्हण्टाले. तांणी शेतकामत्यांची खूब सतवणूक केल्ली. फानारिओटांची सत्ता १८२१ मेरेन तिगून आशिल्ली. तांच्या वायट कर्तुत्वांक लागून रोमानियनांनी ग्रीकांक धांवडावन घालचेखातीर तुर्कांचेर दबाव हाडलो.

अठराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन रशियन सैन्यान तुर्कीचेर साबार खेपे हार घालून तुर्की साम्राज्याचो कांय भाग हाताशिल्लो. उपरांत १८२९त रशियन सैन्यान वालाचिया आनी मोल्दाविया प्रिन्सिपालीटिंचेर घुरयो घालून त्यो आपल्या शेकातळा व्हेल्यो. १८३०त रशियेन दोनूय प्रिन्सिपालीटीं खातीर ऑरगॅनिक स्टेट्स नांवाचें एक खाशेलें संविधान तयार केलें. तातूंत रोमानियेंतल्या वरिश्ठ लोकांचो आस्पाव आशिल्लो. अशे रितीन रोमानियांत प्रतिनिधीक सरकार सुरू जालें. रशियेन दोनूय प्रिन्सिपालिटींतलें आपलें सैन्य १८३४त काडून घेतलें.

वालाचिया आनी मोल्दाविया प्रिन्सिपालीटीस एकचाराचे भावनेंतल्यानूच तयार जाल्ल्यो. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक मेरेन ती भावना चड खर जाल्ली. १८५९त दोनूय प्रिन्सिपालिटींतल्या लोकांनी राजकुंवर अलेक्झँडर जॉन कुझा हाका तांचो सामाईक राज्यकर्तो म्हणून जाहिर केलो. १८६१त दोनूय प्रिन्सिपालिटीस शासकीय नदरेन रोमानिया म्हणून एकठांय आयल्यो. रोमानियांत एकचाराची चळवळ घडोवन हाडपा फाटल्यान मुरवेलपणान शिक्षीत तरणाट्यांचो हात आशिल्लो. तातुंतले चडशे पॅरिसांतल्यान पदवी घेवन परत आयिल्ले. पॅरिसांत शिकता आसतना तांच्या मनाचेर त्या वेळार युरोपांत प्रचलित आशिल्ल्या क्रांतिकारी प्रणालीचो प्रभाव पडिल्लो. रोमानियांत परतले उपरांत त्या तरणाट्यांनी देशांत सुदारणा घडोवन हाडची आनी लोकशायेचो पुरस्कार करचो म्हणून मागण्यो केल्यो. हाका लागून राजकुंवर कूझाच्या फुडारपणारवाला सरकारान साबार गिरेस्त लोकांच्यो जमनी विकत्यो घेवन त्यो शेतकामत्यांक दिल्यो. गरिबांक फुकट शिक्षण दिवचे खातीरूय ताणें साबार शाळा उक्त्यो केल्ल्यो. गरिबांक दिसानदीस सवलती मेळटात तें पळोवन वरीश्ठ लोकांनी कूझा सरकाराक विरोध करून १८६६त ताका राजिनामो दिवपाक लायलो. उपरांत त्या गिरेस्त लोकांनी होहेंजोलर्नच्या कार्ल हाका रोमानियेचो

मुरवेली केलो. कार्ल हो मुळचो जर्मन आशिल्लो आनी ताका रोमानियनाविशीं साप्प उणी म्हायती आशिल्ली. पूण रोमानियेंतल्या वरिश्ठ लोकांच्या तेंक्यान ताणें ५० वर्सां मेरेन राज्य केलें. एकुणिसाव्या शेंकडयाच्या मध्याक मेरेनय तुर्की साम्राज्य रोमानियाचेर आपले हक्क सांगताले. पूण १८७८त चडशा युरोपी देशांनी रोमानियेचें स्वातंत्र्य मानून घेतिल्लें. १८८१त रोमानिया राजाचें राज्य जावन कार्ल हो कॅरोल पयलो हो रोमानियाचो राजा जालो. कॅरोलाचे राजवटींत रोमानियेचे पयले राजकीय पक्ष तयार जाले. तशेंच सरकारी प्रतिनिधींक वेंचून काडपाचे हक्क लोकांक मेळळे. पूण वेंचणुकेची पद्दत खूब घुस्पागोंदळाची आशिल्यान तिचो लाव शेतकामत्यांक मेळळोना. कॅरोलाचे राजवटींत रोमानियाची अर्थीक स्थितीय खूब सुदारली. पूण तिचो लाव फकत देशांतल्या गिरेस्त लोकांक मेळळो. शेतकामत्यांची परिस्थिती तशीच उरली. १९०७त त्राशिल्ल्या शेतकामत्यांनी बंड उबारून साबार गिरेस्त लोकांचीं घरां हुलपावन तांच्या पिकांचीय नाशाडी केली. रोमानियेच्या सैन्यान तें बंड मोडून उडयलें. तातूंत उण्यांत उणे १०,००० शेतकामत्यांक मरण आयलें. कॅरोलाक १९१४त मरण आयलें. उपरांत ताचो पुतणयो फेर्दिनांद रोमानियाचो राजा जालो.

पयल्या म्हाझुजांत सुरवेक रोमानिया तटस्थ रावलो. पूण १९१६त तो फ्रांस, ग्रेट ब्रिटन आनी तांच्या इश्ट राश्ट्रांक मेळून युरोपी मध्य देशांआड (खास करून ऑस्ट्रिया-हंगेरी आनी जर्मनी) झूजपाक लागलो. रोमानियाक बॅनाट, बुकोविना आनी ट्रान्सिल्वानीआ हे रोमानियन लोकसंख्या चड आशिल्ले प्रांत ऑस्ट्रिया-हंगेरीकडच्यान घेवपाक जाय आशिल्ले. पयल्या म्हाझुजांत इश्ट राश्ट्रांक जैत मेळिल्ल्यान शांतताय कबलाती वेळार रोमानियेक जाय आशिल्ले प्रांत मेळळे. त्या तिनूय प्रांतांक लागून रोमानियेची लोकसंख्या आनी आंवाठ दोन पटींनी वाडलो. अशे रितीन राबितो आशिल्ली चडशी सगळी भूंय पयलेच खेपे रोमानियेचे सत्तेखाला आयली.

पयल्या म्हाझुजाउपरांत रोमानियांत लिबरल पक्षाचो शेक चलतालो. तांणी साबार गिरेस्त जमीनदारांच्यो इस्टेटी घेवन, तांचें रुपांतर शेतजमनींत करून त्यो शेतकामत्यांक विकल्यो. शेतकामत्यांचे जिणेंत सुदारणा घडोवन हाडपाखातीर लिबरल पक्षान साबार येवजणो आंखिल्ल्यो. पूण १९२९त संवसारभर सुरू जाल्ल्या मंदीच्या काळाक लागून रोमानियेची अर्थीक स्थिती इबाडली. हाकालागून लाखांनी रोमानियन लोकांच्यो नोकऱ्यो गेल्यो. देशांतले गरिबीक आनीकय ओतो आयलो. इबाडिल्ले अर्थीक वेवस्थेक लागून रोमानियांत १९३० उपरांत नवे फुडारी आयले. युरोपांतल्या हेर राश्ट्रांप्रमाण रोमानियेंतय फॅसिस्ट लोकांचो शेक वाडलो. तांणी आयर्न गार्ड (Iron Guard) चळवळीखाला देशांतल्या हेर राजकीय पक्षांक घात-पाता सारकिल्यो पद्दती आपणावन विरोध केल्लो. कम्युनिस्ट, ज्यू लोक आनी उदारमतवादी प्रणालीक लागून रोमानियेची अर्थीक स्थिती इबाडली अशें ते सांगताले.

राजा फेर्दिनांदाक १९२७त मरण आयलें. उपरांत तीन वर्सांनी ताचो चलो कॅरोल दुसरो सत्तेर आयलो. ताचे राजवटीचे सुरवेच्या तेंपार फॅसिस्टांचे चळवळींक नेट आयिल्लो. आपली सत्ता फॅसिस्टांच्या हातांत वचत, ह्या भंयान राजा कॅरोलान आपल्याकच रोमानियेचो हुकूमशा घोशीत करून आयर्न गार्ड संघटनेक आनी हेर पक्षांक बेकायदेशीर थारायले.

दुसऱ्या म्हाझुजावेळारय रोमानियेन सुरवेक तटस्थ रावपाची भूमिका आपणायली.पूण १९४०त हंगेरीन जर्मनीच्या आदारान रोमानियेचो ट्रान्सिल्वानिया भाग हातासलो. उपरांत सोव्हिएत युनियनान रोमानियेचो उत्तरेकडचो भाग घेतलो जाल्यार बल्गेरीयन रोमानियेचो दक्षिणेकडचो भाग घेतलो. रोमानिया तटस्थ राविल्ल्यान शेजारचीं राश्ट्रां ताचो गैरफायदो घेवन देशाचो एक - एक भाग घेत आसा हें जाणून रोमानियन लोकांनी राजा कॅरोलाक विरोध करून ताका सप्टेंबर ६, १९४० दिसा सत्तेवयल्यान सकयल देंवयलो आनी ताचे सुवातेर ताचो चलो मायकल हाका राजा केलो. पूण मायकल हो नांवापुरतोच राजा आशिल्लो. खरेपणान देशाचीं सगळीं राजकीय सुत्रां म्हामंत्री आयन अँटोनेस्कू हाच्या हातांत आशिल्लीं. अँटोनेस्कू जर्मनीक सहकार्य केल्यान, ऑक्टोबरांत जर्मनीन आपलें सैन्य रोमानियेंत दवरलें. अशे रितीन रोमानियेनय जर्मनीवटेन दुसऱ्या म्हाझुजांत वांटो घेतलो. पूण ऑगस्ट १९४४ सावन जर्मनीचेर एका फाटल्यान एक अशो हारी पडत रावल्यो. जर्मनी वांगडा रोमानियेचीय पुरायपणान हार जातली ह्या भंयान राजा मायकलान अँटोनेस्कूक सत्तेभायरो केलो आनी रोमानिया इश्ट राश्ट्रांक मेळळी. १९४५त झूज सोंपतकच तांतूत इश्ट राश्ट्रांक जैत मेळळें. इश्ट राश्ट्रांनी हंगेरी कडच्यान ट्रान्सिल्वानिया घेवन तो प्रांत रोमानियेक परत दिलो. पूण रशियेन आनी बल्गेरीयेन घेतिल्ले प्रदेश रोमानियाक परत दिलेनात.

दुसऱ्या म्हाझुजांत रशिया इश्ट राश्ट्रांक मेळून जर्मनी आनी ताच्या सांगाती देशांआड झगडटाली. १९४४त रशियेन सैन्यान रोमानियेचेर ताबो मेळयलो. उपरांत १९५० मेरेन रशियन सैन्य थंय आशिल्लें. दुसऱ्या म्हाझुजापयलीं रोमानियेंत कम्युनिस्ट पक्षाक व्हडलेंशें म्हत्व नाशिल्लें. पूण झुजाउपरांत रशियन सैन्याच्या आदारान रोमानियन कम्युनिस्ट पक्ष सत्तेर आयलो. तांणी आपल्या विरोधकांक बंदखणींत दवरले वा जिवेशीं मारले, आनी ३० डिसेंबर १९४७ दिसा राजा मायकल हाका सत्तेभायरो केलो. कम्यूनिस्टांनी रोमानिया हो स्वतंत्र लोकशाय देश अशें जाहीर केल्लें. पूण खरेपणान रोमानिया हो रशिया अंकीत देश आशिल्लो. देशाच्यो सगळयो राजकीय हालचाली रशियन नियंत्रणाखाला चलताल्यो. रोमानियेचें नवें संविधान रशियन संविधानाचेर आदारिल्लें. देशाची शिक्षणीक पद्दत अर्थवेवस्था आनी विदेशी धोरण हांचेरूय रशियेचो ताबो आशिल्ले. १९६० मेरेन रोमानियेच्या राज्यकारभारांत रशियेचो चड आनी चड हस्तक्षेप जातालो. पूण

१९६० उपरांत रोमानियेचो कम्युनिस्ट मुरवेली जॉर्ज घेरघीऊ - देज हाणें रशियेच्या हस्तक्षेपाक विरोध केलो. पूण १९६५त देज हाका मरण आयलें. ताचे सुवातेर कम्युनिस्ट पक्षाचो मुरवेली म्हणून आयिल्ल्या निकोले सेडसेस्कू हाणेंय रशियन हस्तक्षेपाक विरोध केलो. ताका देशांतल्या हेर कम्युनिस्ट फुडाऱ्यांचोय तेंको मेळ्ळो. तांच्या मतान दर एका कम्युनिस्ट राश्ट्राक आपलो वेवसाय, अर्थीक आनी विदेश धोरण थारावपाचे स्वतंत्र हक्क आसपाक जाय. कम्युनिस्ट राजवटीचे सुरवेच्या तेंपार रशियेच्या चेपणारवाला येवन देशान शेतवडीचेर चड भर दिल्लो. पूण १९६० उपरांत रोमानियन कम्युनिस्ट फुडाऱ्यांनी उद्देगधंद्यांचेर भर दिवन अस्तंत देशांकडेन आपले वेपारी संबंद जोडले. १९६४त रोमानिया आनी अमेरिकेन आपल्या राजदुतांची अदलाबदल केली. रशिया आनी चीन हांच्या मतभेदा वेळारूय रोमानिया तटस्थ रावले. १९६५त रोमानियेन नवें संविधान आपणावन आपलें पुराय स्वातंत्र्य जाहिर केलें. १९७७ त रोमानियेन आशिया आनी आफ्रिकेंतल्या साबार कम्युनिस्ट आनी हेर राश्ट्रांकडेन आपले राजकीय आनी वेपारी संबंद घट्ट केले.

कम्युनिस्ट मुरवेल्यांनी आपणायल्ल्या उद्देगीक धोरणाक लागून रोमानियेचे शारी जिणेंत थोडीभोव सुदारणा जाली आनी हजारांनी लोकांक काम मेळ्ळें. पूण हेर कम्युनिस्ट राश्ट्रांच्या मानान रोमानियेंतलो जिणेचो दर्जो उणोच उरलो. दीसपट्ट्या गरज पडपी वस्तुंची पुरवण करपाकय सरकार अपेशी थारलें. १९८०त उद्देग धंद्यांची आनीक वाड करपाखातीर सरकारान अस्तंत युरोपी बँकाकडच्यान व्हड रीण घेतलें.

सेउसेस्कूच्या फुडारपणारवाला कम्युनिस्ट सरकारान लोकांचे जिणेचेर खूब बंधनां घाल्लीं. तशेंच, ताच्या सरकारांत भ्रश्टाचाराक ओतो आयिल्लो. हाका लागून डिसेंबर १९८९त देशांतल्या हजारांनी लोकांनी तिमीसोरा शारांत निदर्शनां काडून कम्युनिस्ट सरकाराकडेन लोकांक चड स्वातंत्र्य आनी राहणीमानांत सुदारणा करची म्हणून तशेंच भ्रश्टाचाराक आळो घालपाची मागणी केल्ली. सरकारान फार पेटोवन तें निदर्शन मोडून उडयलें. तातूंत शेंकड्यांनी लोकांक मरण आयलें. ते घडणुके उपरांत सबंद रोमानियेंत सेउसेस्कू सरकाराआड विरोध जावपाक लागलो. बुखारॅस्ट शारांत लाखभर लोकांनी एकठांय येवन लोकांक चड स्वातंत्र्य दिवचें म्हणून आनी सेउसेस्कूच्या राजिनाम्याची मागणी केली. त्या वेळार सुरक्षादलान जमावाचेर फार पेटोवन हजारांनी लोकांक जिवेशीं मारले. सेउसेस्कू सरकाराआड सबंद देशांत उठाव जावपाक लागले. उपरांत रोमानियन लस्कर त्या उठावाक मेळ्ळें. अशे रितीन लस्कर आनी सेउसेस्कू सुरक्षा दलांभितर झगडीं सुरू जालीं. २२ डिसेंबर १९८९ दिसा उठावान आनीक हिंसक मोडण घेतलें तें पळोवन सेउसेस्कू आनी ताची बायल एलेना बुखारॅस्ट शार सोडून पळून गेलीं. पूण लश्करान तांकां धरून बंदखणींत दवरलीं. उपरांत खटलो भरून तांचेर खुनाचो आनी सरकारी भांडवलांत केल्ले अफरातफरेचो आळ दवरून २५ डिसेंबर दिसा तांकां मरणाची ख्यास्त फर्मायली. अशे रितीन रोमानियेंतल्या कम्युनिस्ट हुकूमशायेचो अस्त जालो. उपरांत आदल्या कम्युनिस्ट पक्षांतल्या कांय पदाधिकारी आनी हेर वांगड्यांनी तयार केल्ल्या नॅशनल सॉल्वेशन फ्रंट पक्षान सरकारी सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. फ्रंटाचो मुरवेली आयोन इलेस्कू रोमानियेचो वावुरपी अध्यक्ष जालो. फ्रंटान सरकारी ताबो आपल्या हातांत घेतले उपरांत सेउसेस्कून लोकांचेर घातिल्लीं साबार बंधनां काडून उडयलीं. बेकायदेशीर थारायल्ल्या पक्षांकूय सरकारी मान्यताय मेळ्ळी. मे १९९० त जाल्ले उक्ते वेंचणुकेंत कम्युनिस्ट पक्षावांगडा हेर पक्षांनीय वांटो घेतिल्लो. तातूंत नॅशनल फ्रंटाक भोवमत मेळून इलेस्कू अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. पूण उपरांत जून - जुलय १९९०त जाल्ल्या नव्या कायद्याक लागून ताका नॅशनल फ्रंट पक्षाच्या मुरवेलपदाचो राजिनामो दिवंचो पडलो. नव्या कायद्याप्रमाण देशाचो राश्ट्राध्यक्ष हो स्वयच्याच राजकीय पक्षाचो मुरवेली आसपाक फावोना.

१९९०त जाल्ले वेंचणुकेंत नॅशनल फ्रंटाच्या वांगड्यांनी बळग्याचो उपेग करून सत्ता हातासल्या असो विरोधी पक्षांनी तांचेर आळ दवरलो. हाका लागून १९९०च्या मध्याक सरकारविरोधी तशेंच सरकारमोगी निदर्शनां बुखारॅस्ट शाराच्या रस्त्यांचेर जावपाक लागलीं. शेंकड्यांनी लोक जखमी जाले. अर्थीक स्थितींत सुदारणा घडोवन हाडपाक नॅशनल सॉल्वेशन फ्रंट अपेशी थरिल्ल्यान मुखारूय सरकार विरोधी निदर्शनां जायत रावलीं. उपरांत १९९१चे अखेरेक खाण कामगारांनी केल्ल्या संपाक आनी उठावाक लागून नॅशनल सॉल्वेशन फ्रंट सरकाराक सोडचीट दिवंची पडली. ताचे सुवातेर फ्रंट पक्षाचोच शेक आशिल्लें संमिश्र सरकार आयलें. १९९६त चडशा राश्ट्रीय उद्देगांचें खाजगीकरण केलें. १९९६त जाल्ले वेंचणुकेंत कम्युनिश्टांचो पराभव जालो.

**राजवेवस्था :** रोमानियेंत १९४० वर्सा सावन कम्युनिस्ट पक्ष सत्तेर आशिल्लो. त्या पक्षाचो सबंद सरकारी बांदावळीचेर पुराय ताबो आशिल्लो. सचीव होच कम्युनिस्ट पक्षाचो मुरवेली आसून तो हुकूमशायी पद्धतीन सत्ता चलयतालो. कम्युनिस्ट पक्षाचे फुडारीच देशाची न्यायवेवस्था आनी अर्थीक वेवस्था आपले मर्जेप्रमाण थारायताले. पूण १९९१त खण कामगारांनी सरकारी धोरणांक खर विरोध केल्ल्यान नॅशनल सालवेशन फ्रंट पक्षाक राजिनामो दिवंचो पडलो. उपरांत रोमानियांत संमिश्र सरकार आयलें. १९९६त कम्युनिस्टांचो पराभव जाल्या उपरांत फेब्रुवारी १९९७ त रोमानियेचो राजा मायकल हो पन्नास वर्सांउपरांत रोमानियेंत आयलो.

अध्यक्ष हो राश्ट्र मुरवेली आसून ताका भौशिक मतदानान वेंचून काडटात. प्रधानमंत्र्याची नेमणूक अध्यक्ष करता. सरकारी कारभार

वेवस्थीत चलोवपावातीर आपल्याक पालव मेळचो म्हणून प्रधानमंत्री हेर कॅबिनेट मंत्र्यांक वेंचून काडटा. रोमानियेचें विधिमंडळ, सिनेट आनी चेम्बर ऑफ डेप्यूटिज अशें दोन घरांनी विभागिल्लें आसून सिनेटांत १७६ वांगडी जाल्यार चेम्बर ऑफ डेप्युटिस घरांत ३४० वांगडी भौशिक मतदानान वेंचून काडटात. रोमानियेंत सद्या ८० वयर राजकीय पक्ष आसून, तांच्यांतलो नॅशनल सालवेशन फ्रंट हो पक्ष म्हत्वाचो. हंगेरियन डॅमोक्रेटीक युनियन, नॅशनल लिबरल पार्टी, रोमानियन इकॉलॉजी मुवमॅण्ट, आनी नॅशनल पिझण्ट पार्टी हे देशांतले हेर म्हत्वाचे पक्ष. राज्यकारभाराचे वेवस्थापनेखातीर देश ४० प्रांतांनी आनी बुखारॅस्ट ह्या खाशेल्या जिल्ह्यांत विभागला. दर एका प्रांताचें थळावें सरकार आसा. 'सुप्रीम कोर्ट' हें रोमानियेंतलें सर्वोच्च न्यायालय. दर एका प्रांतांत थळावें न्यायालय आसा.

**अर्थीक स्थिती :** रोमानियेची अर्थवेवस्था १९६० आर्दी मुखेलपणान शेतवडीचेरूच आदारिल्ली. पूण उपरांत रोमानिया सरकारान साबार नवे कारखाने आनी विद्युत् शक्ती निर्माण करपाची यंत्रणा उबारून देशांत व्हडा प्रमाणांत उद्देगीकरण करपाची मोख दवरली. कम्युनिस्टांचे राजवटीखाला कारखाने, खण - उद्देग आनी हेर उद्देगधंद्यासावन शेतवडीपरस चड येणावळ मेळपाक लागली. ह्या नव्या उद्देगधंद्यांक लागून देशांतल्या साबार लोकांक काम करपाची संद मेळ्ळी. कम्युनिस्टांच्या शेकातळा रोमानियेचे अर्थवेवस्थेचेर राश्ट्रीय आघाडीचोच शेक आशिल्लो. देशांतले कारखाने, खणी, बँको आनी शेतजमिनीचेर लेगीत सरकाराचीच मालकी आशिल्ली. पूण १९८९त जाल्ले क्रांती उपरांत कांय खाजगी कंपनीय अस्तित्वांत आयल्यो.

हालींच्या तेंपार उद्देगधंद्याच्या मळार खूब वाड जाल्ली आसली शेतवड हो देशांतलो म्हत्वाचो वेवसाय जाला. मको आनी गंव हीं देशांतलीं म्हत्वाचीं पिकां. हेर पिकावळींत द्राक्षां, बटाट, शुगरबीट आनी हेर फळफळावळींचो आस्पाव जाता. पशुधनांत मुखेलपणान मेंढरांचोच आस्पाव आसा. पोल्ट्री, तशेंच गोरवां, घोडे, दुकर पोसपाच्या वेवसायाकय हालींच्या तेंपार म्हत्व प्राप्त जाला. कम्युनिस्टांचे राजवटींत शेतजमनीचें राश्ट्रीयीकरण केल्ल्यान, साबार कुटुंबां एकठांय येवन एकवटीत केल्ले शेतवडींत (Collective farms) वावुरतालीं. पूण १९८९तले क्रांती उपरांत कांय एकवटीत शेतजमनीचें खाजगीकरण केलां.

देशाची सुमार २५% भूंय रानाखाला आशिल्ल्यान वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांत रानांसावन मेळपी येणावळीचो म्हत्वाचो वांटो आसता. रोमानियेंच्या भुयेंच्या पोटांत वेगवेगळया खनिजांचे खूप व्हड सांठे आसात. सैमीक आनी पेट्रोलियम हीं देशांतलीं म्हत्वाचीं खनिजां. हेर खनिजांभितर बॉक्सायट, खनीज कोळसो, तांबें, भांगर, लोखण, शिंशें, रुपें आनी जस्त हांचो आस्पाव जाता.

कम्युनिस्टांचे राजवटींत उद्देगधंद्यांक चड प्राधान्य मेळिल्ल्यान आयज त्या मानान रोमानियेंतल्या उद्देगधंद्यांत खूब उदरगत जाल्ली आसा. मुखेलपणान शेतवडींत आनी खाणउद्देगांत उपेगी पडपी मशीनां तयार करपाचे ल्हान - व्हड अशे साबार कारखाने देशांत आसात. हांचेखेरीज रोमानियेंत शिमीट तयार करपाचे, तशेंच लोखण आनी तिखयाच्यो वस्तू तयार करपाचे, आनी तेल निवळीकरण करपाचेय कारखाने आसात. गरजेचे जिनस तयार करपी व्हड कारखान्यांभितर फकत अन्नप्रक्रिया, लुगट विणकाम आनी बूट - चप्पल तयार करपी कारखान्यांचो आस्पाव जाता. बुखारॅस्ट शार हें देशातलें उद्देगीक केंद्र.

१९६० पयलीं रोमानियेचो सुमार ८०% वेपार सोव्हिएत युनियन आनी हेर कम्युनिस्ट देशांकडेन जातालो. पूण १९६० उपरांत सोव्हिएत युनियनच्या चपक्यांतल्यान आपली सुटका करून घेवंचेखातीर रोमानियेन आपलो वेपार हेर युरोपी देशांकडेन आनी अमेरिकेकडेन चालू केलो. निर्यात जावपी मालाभितर मुखेलपणान शिमीट, कपडो, चामड्याच्यो वस्तू आनी प्रक्रिया केल्या अन्नांचो आस्पाव जाता, जाल्यार आयात जावपी मालाभितर रसायनां, लोखणा माल, कोळसो आनी कापूस हांचो आस्पाव जाता.

**लोक आनी समाजजीण :** रोमानियन हे डॅसियन, रोमी तशेंच गोथ, हान्स आनी स्लाव लोकांचे वंशज. डॅसियन लोक इ.स. पयलीं ३०० शेंकड्यांसावन थंय रावतात. इ.स. १०० ते २०० मेरेनच्या काळांत रोमी लोकांनी तो आपल्या शेकातळा व्हेल्लो. रोमी लोक गेले उपरांत गोथ, हान्स, स्लाव ह्या सारकिल्ल्या टोळयांनी थंय शेक गाजयलो. अल्पसंख्येन आशिल्ल्या लोकांत हंगेरियन लोकांचो चड आंकडो आसा (८%). जर्मन, जिप्सी, ज्यू, तुर्की आनी उकरेनी लोकांचोय अल्पसंख्येंत आस्पाव जाता. आयज लेगीत रोमानियेचे चडशे लोक गांवागिऱ्या वाठारांनी रावतात. हेर युरोपी देशांच्या मानान रोमानियेचो जिणेचो दर्जो खूब उणो. विलासी जीण जगपी लोक साप्प उण्या प्रमाणांत आसात. देशांतल्या फक्त १५% लोकांकडेन टी.व्ही संच आसता जाल्यार, फक्त १ % लोकांकडेन मोटारी आसात.

गांवगिऱ्या वाठारांनी रावपी रोमानियन लोकांचीं लांकडी घरां सादारणपणान ल्हानशीं, दोन वा तीन कुडींचीं आसात. तांचीं घरां सादीं आसून तातुंतलें फर्नीचर आनी हेर सजावट सादीच आसता. रोमानियन लोक भौशिक उत्सव व्हडा उमेदीन मनयतात. गांवगिऱ्या वाठारांतले लोक लग्ना वेळार वा फेस्तां वेळार मुखेलपणान रंगीत कपडे घालतात.

रोमानियेतलीं लोकनृत्यां आनी लोकगितां खूब प्रसिद्द आसात. त्या लोकांक नाचपाचीय खूब उमेद आसा. शारांतले लोक आर्विल्लो भेस करतात. १९८९त जाल्ले क्रांती आदी रोमानीयन लोकांच्या स्वातंत्र्याचेर कम्युनिस्ट सरकारचें दडपण आशिल्लें. अमुकच वेवसाय वा कामाखातीर खंयच्या विद्यार्थ्यांक कसलें शिक्षण दिवप हें सरकारूच

थारायतालें. रोमानियन लोकांक आपलें काम, वेवसाय वा धंद्यांत लेगीत बदल करतलो जाल्यार सरकाराची परवानगी घेवची पडटाली. पूण क्रांतीउपरांत त्या मळांचेर लोकांक थोडीभोव मेकळीक मेळपाक लागल्या. रोमानियन लोकांच्या जेवणांत मांसाचो चड उपेग जाता. मितीतेयी वा क्रोकेट्स आनी च्योरिसां हे तांचे आवडीचे पदार्थ. सणा -परबे दिसा ते लोक 'मामालीगा' हो पदार्थ करतात. वायन आनी ब्रॅण्डी हीं थंयचीं लोकप्रिय पेयां. तें पेय थंय 'झुयका' नांवान प्रसिद्द आसा.

रोमानियन ही थंयची अधिकृत आनी राजकी भास. पूण रोमानियेंतले कांय जर्मन आनी हंगेरियन लोक आपलेभितर उलयतना आपले थळावे भाशेचो उपेग करतात. पुर्विल्ल्या काळांत रोमी लोकांची सत्ता आशिल्ली. आयजमेरेन उदेंत युरोपांत लेटीन भाशेसावन तयार जाल्ली रोमानियन ही एकूच भास.

फ्रेंच, इटालियन, पुर्तुगेज आनी स्पॅनिश भाशेंकडेन रोमानियन भाशेचो लागींचो संबंद आसा. रोमानियेंत ६ ते १६ वर्सांमेरेन पिरायेच्या भुरग्यांक शिक्षण सक्तीचें आसा. मुळाव्या शिक्षणाचो तेंप आठ वर्सांचो आसता. मुळावें शिक्षण सोंपतकच विद्यार्थ्यांचे फिशालकायेप्रमाण सरकारचे देखरेखीखाला तांकां फुडल्या शिक्षणाखातीर तयार करतात. मुळावें शिक्षण पास जाल्ल्या सुमार अदर्या विद्यार्थ्यांक वेवसायीक शिक्षणांत प्रवेश दितात. तातूंत विद्यार्थ्यांक शेतवडींत आनी कारखान्यांनी उपेग पडपी मुळावें शिक्षण दितात. उरिल्ल्या अदर्या विद्यार्थ्यांक तांचे कुशळतायेप्रमाण यंत्रीक, कला आनी हेर वेवसायीक शिक्षणाखातीर प्रशिक्षण दितात. उच्च माध्यमिक शिक्षणांत पास जाल्ल्या फक्त ५ % विद्यार्थ्यांक पदवीधर शिक्षणाखातीर प्रवेश दितात. रोमानियेंत फकत सात विश्वविद्यालयां आसून, तातुंतलें सगळयांत व्हडलें बुखारॅस्ट शारांत आसा.

रोमानियेंतले सुमार तीन - चथुर्तांश लोक 'ईस्टर्न ऑर्थोडोक्स चर्च' पंथाचे आसात, जाल्यार सुमार ७% लोक मुखेलपणान हंगेरियन हे रोमन कॅथलीक पंथी आसात. प्रॉटेस्टण्ट, इस्लाम, जुदायीसम आनी हेर धर्मांचेय लोक थंय कांय प्रमाणांत आसात. देशांतले वेवसायीक कलेचेर मुखेलपणान रोमानियन गांवगिरे संस्कृतीचोच प्रभाव पडिल्ल्याचो दिश्टी पडटा. चित्रकलेंत मुखेलपणान रोमानियन गांवगिरे जिणेचेरूच चित्रां पितांरिल्लीं आसात. देशांतलें फुडारिल्लें संगीत चड करून लोकसंगिताचेरूच आदारिल्लें आसता. संगीतकार जॉर्ज एनेस्को, मूर्तीकार कोंस्तान्तीन ब्रान्कूसी आनी नाटककार युगेन आएनेस्को हे रोमानियेंतले नामनेचे कलाकार.

बुखारॅस्ट, तिमीसोरा, क्लूज - नापोका, ईआसी, ब्रासो, गलाटी, ब्रायला, तिर्गमुरेस, अराद, बाकाउ, प्लोयेस्टी हीं देशांतली कांय प्रसिद्द शारां.

- कों. वि. सं. मं.

**रोमान्स :** एक साहित्यप्रकार. रोमान्स हें उतर सामान्य मनशाची भास असो अर्थ उक्तावपी 'Romanz ह्या पोरन्या फ्रेंच उतरावयल्यान आयलां. (फ्रेंच, प्रॉव्हांसाल, इटालियन, स्पेनिश, आनी रोमानियन ह्यो लॅटिनांतल्यान आयिल्यो रोमान्स भासो). उपरांत रोमान्स - भाशेंतली साहित्य कृती असो अर्थ ताका मेळ्ळो. जेफ्री ऑफ मॉनमथच्या इस्तोरिया रेगूम ब्रितानिॲ (११३७) हें लॅटीन इतिवृत्ताच्या रॉबेअर वासान केल्ल्या पद्यमय रुपकाराक रॉमा द् ब्रयून हें नांव दिलें. तर व्हर्जिल हें लॅटीन कवीच्या ईनिड ह्या म्हाकाव्याच्या रुपकाराक लि रोमांझ देनेयास म्हणून संबोधूंक लागले. अनपेक्षित आनी चमत्कृतीपूर्ण प्रसगांनी भरिल्ली मध्ययुगीन गद्यकाणी वा मोगाकाणी वा नाट्यमय मोगागीत ह्या अर्थानय हें उतर वापरतात. एक वाङ्मयप्रकार म्हणून रोमान्साचीं कांय ठळक लक्षणां दिसतात (१) भूतकाळांतल्या उमरावी जिणेचेर आदारिल्लें मोग आनी साहसांनी भरिल्लें कथानक, प्रणयरम्य अशे प्रसंग, इंद्रियगोचर वर्णनां, सादी सरळ पूण कांयवेळार रुपकात्मक दिसपी व्यक्तिचित्रणां, तशेंच खाशेले नेम, रितीरिवाज, वा मुल्यां कांटेकोरपणान पाळपी व्यक्तिरेखा, अनपेक्षीत, अद्भूतरम्य घडणुको वा प्रसंग, अतिमानवी आनी भयानक गजालींचो वापर, अरिश्टां आनी दुख्खांतल्यान खोशयेची अखेर. वाङ्मयप्रकार म्हणून रोमान्साचें जनकत्त्व म्हाकाव्यांकडेन वता. पयलीं रोमान्साचें माध्यम हें काव्यूच आशिल्लें, पूण कादंबरेच्या प्रभावान गद्यांतूय रोमान्स बरयलें. हो खाशेलो युरोपी वाङ्मयप्रकार मानतात. तरीय पुर्विल्ल्या भारतीय आनी इजिप्ती काळासावन ताका दायज आसा. बाणभट्टाची कादंबरी, अरेबियन नायट्स ह्यो लेगीत रोमान्साच्योच देखी. बाराव्या शेंकड्यांतलें सुरवेचें रोमान्स. देखीक - रॉमां द् तॅब, रॉमां देनेयास, आनी रॉ माद् त्र्युवा हांचे विशय पुर्विल्ल्या काव्यग्रंथांतल्यान घेतिल्ले आसात. रॉमा दालेक्सांद्र हें बाराव्या शेंकड्यांतल्या रोमान्सामदीं भारताविशींचीं विस्मितांचीं वर्णनां दिसून येता. नवयौवन (तरणाटेपण) मेळोवन दिवपी घसघशे, रानांत वाडिल्ल्यो पुश्पकन्या, सुण्याचें मस्तक आशिल्लें मनीस आदी. फ्रेंच कवी क्रेत्यँ द् त्र्वा हाणें अदमासान ११६५ ते ११९० ह्या काळांत एरेक, क्लिजॅस, लांसलो, इव्हँ आनी पर्सेव्हाल हे पांच रोमान्स बरोवन ह्या वाङ्मयप्रकाराक नवें रूप दिलें. ताचे हे रोमान्स राजा आर्थर आनी ताचे सरदार ह्या विशयाचेर आधारिल्ले आसात. ट्रिस्टान आनी इसोल्ट हांगेलो शोकात्म उत्कट मोग हो लेगीत बऱ्याचशा रोमान्साचो आवडटो विशय. गोट्फ्रीट फोन स्ट्रासबुर्ग हाचें त्याच विशयावयलें म्हाकाव्य एक उत्कृश्ट रोमान्स मानतात.

रोमान्स पलायनवादी वाङ्मय मानतात, पूण मध्ययुगीन रोमान्स आनी सोळाव्या शेंकड्यांतलो इंग्लीश साहित्यांतलो रोमान्स हांचो उद्देश राजपूत तशेंच सत्ताधाऱ्याचें शिक्षण हो लेगीत आशिल्लो. मनशाच्या मनांत एक सपनसृश्ट आसता आनी रोमान्स ही ताची अभिव्यक्ती आसता, अशें श्लेगेल आनी कोलरिज म्हण्टात. फ्रॉयड

आनी युंग हांच्या मनोविश्लेशण - सिध्दांताक लागून अर्दसुप्त मनांत लिपून आशिल्लें रोमान्साकडेन लागसरचे अशे अणभव उक्ते करपाची मेकळीक आर्विल्ल्या लेखकांक मेळ्ळी. मिथ्य (पुराण) आनी रुपककथांचो उपेग करून ताणीं बरयिल्ल्यो कादंबऱ्यो हें रोमान्स परंपरेचेंच दायज. फ्रांट्स काफ्का हे जर्मन कादंबरीकारान आपल्या द कॅसल हें कादंबरेन रोमान्साच्या पारंपारीक तंत्राचो आर्विल्ल्या पद्धतीन उपेग केला. रोमान्स आनी वास्तव, आदर्शवाद आनी वस्तुस्थिती हातुंतलो परस्परविरोध सरव्हँटिझ ह्या स्पेनीश कादंबरीकारान आपल्या दाँ किशॉत हें कांदबरींत तांकीन दाखोवन दिलां. सतराव्या शेंकड्याचे अखेरेक अस्तंत युरोपीयन साहित्यांत वाङ्मयीन सत्याविशींचो वाद गाजतालो. ताका लागून रोमान्स हो वाङ्मयप्रकार भायरायल्लोच म्हळयार जाता. पूण इंग्लंडांत मात गॉथिक कादंबरेच्या रूपान तो अठराव्या शेंकड्यांतय दिश्टी पडटा. आर्विल्ल्या साहित्यांत पारंपारीक रोमान्स बरयतात, पूण रोमान्साचें तंत्र वापरून रुपकात्मक - औपरोधिक कादंबऱ्यो बरयतात. टोल्कीनची लॉर्ड ऑफ द् रिंग्झ ही कांदबरी मालिका हाचीच देख. अमेरिकन वॅस्टर्न, कादंबरी वा गुप्तहेर कथा हे एके तरेन रोमान्साचीच गरज आर्विल्ल्या काळांत भागयतात.

रोमी कोंकणी साहित्यात लोकप्रिय आशिल्ल्यो रोमांसी (कादंबऱ्यो) ह्या प्रकारांत येतात.

- कों. वि. सं. मं.

**रोयण :** वाळटीन (कृमि किटकांनीं) निर्माण केल्लें मातयेच्या कणांचें ऊंच आनी कोनासारकें घर. हे रोयणींत वाळटीच्यो मुयो आपलें खाण सांठयतात. हे रोयणींत तांची मुखेल राणी मूय आसता. तिचे आज्ञेवयल्यान मुयो रोयणीची रचणूक आनी तशे हेर कारभार करतात. रोयण हें ह्यां मुयांचें राज्य कशें आनी ह्या राज्यावरवीं तांकां सगळे तरेचो आश्रय आनी संरक्षण मेळपाक मदत जाता.



भारतीय संस्कृतींत रोयणीक सांस्कृतीक संदर्भ आसा. दक्षिणेंत सगळेकडेन तिची पुजा करपाची चाल आसा. महाराष्ट्रांतूय नागपंचमीच्या दिसा नागावांगडा ग्रामललना रोयणीचे पुजेखातीर सगळीं जाणां गांवाभायर वतात. दक्षिण कोंकणांत सांतेरी नांवाची एक ग्रामदेवता आसा. रोयण हेंच तिचें प्रतीक. कितल्याशाच जाग्यांचेर रोयणीचेर देवूळ बांदतात. मालवण म्हालांत मसुरे ह्या गांवांत मायमाउलीचे देवूळ आसा. तातुंतली देवी ही रोयणीच्या रुपांत आसा. ही रोयण पांचशें वर्सांची पुर्विल्ली आसून, रोयणीचो घेर २० फूट आनी उंचाय १५ फूट आसा. तातुंतली देवी नागिणीच्या रुपान दिश्टी पडटा असो समज आसा. परशुरामाची आवय म्हणून नामना आशिल्ली रेणुका हिका ग्रामदेवी मानल्या. तीय मुळांत धर्तरेचीच देवता. तिचो रोयणीकडलो संबंद कितल्याशाच कथा काणयावयल्यान मेळटा. रेणुका ही रोयणींतल्यान जल्माक आयली आनी निमाणें रोयणितच अदृश्य जाली, अशी कथा आसा.

रोयण आनी रेणुका हांचो आनीक एक संबंद त्या शब्दांतल्यान मेळटा. तो म्हळयार रेणू म्हळयार बारीक कण, हाचेवयल्यान स्त्रीलिंगी रेणुका हे उतर तयार जालें. रोयण ही सुक्ष्म मातयेच्या म्हळयार रेणूंपसुनूच तयार जाल्ली आसता. हाचेवयल्यान रेणुका आनी पृथ्वी हांचो संबंद लागींचो आसा. धर्मीक कृत्याखातीर ज्यो पांच पवित्र मृत्तिका सांगल्यात, तातुंतली एक रोयणीची माती. होच पावित्र्याचो संकेत फुडें आर्यांनीय मान्य केलो.

रेणुका ही भूदेवी. तिचें रेणुका हें नांव पृथ्वीवाचक. रेणु + का = रेणुमयी = पृथ्वी. रेणुंनी तयार जाल्ली रोयण हें रेणुकेचे उपासनेखातीर वापरील्लें सैमीक प्रतीक. धर्तरी ही सगळे जीव सृश्टीची धारित्री (निर्मिती) आशिल्ल्यान, तिची रोयणीच्या रुपांत प्रतिकात्मक पद्धतीन पुजा करप सभावीक आसा.

रोयणीच्या रुपांत पुजतात ती मातंगी आनी सांतेर ह्यो दोनूय देवी रेणुकेकडेन एकरूप आसात. मातंगीचें चरित्र रेणुकडेन जुळटा. दक्षिण कोंकण आनी गोंयांत सांतेर, भुमका हीं लोकदैवतां भूंयदेवतेचीं रुपां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**रोहरर, हायन्रिख :** (जल्मः ६ जून १९३३, बुक्स-स्वित्झर्लंड).

स्वीस भौतिकीविज्ञ. क्रमवीक्षण सुरंगी सुक्ष्मदर्शकाचो अभिकल्प तयार केल्लेखातीर रोहरर हाका गेर्ट बिनिग ह्या जर्मन भौतिकीविज्ञावांगडा १९८६ वर्साच्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराच्या अदर्या भागाचो भोवमान मेळ्ळो आनी उरिल्ल्या अदर्या भागाचो भोवमान एर्न्स्ट रुस्का हाका इलॅक्ट्रॉन सुक्ष्मदर्शकाच्या अभिकल्पाखातीर मेळ्ळो.

रोहरर हाणें झुरिकांतले स्वीस फॅडरल इन्स्टिटयूट ऑफ टॅक्नोलॉजी हे संस्थेंत शिक्षण घेवन १९६० वर्सा ताणें पीएच्.डी. पदवी घेतली. उपरांत अमेरिकेंतल्या न्यू ब्रन्सविक च्या रटगर्स विद्यापिठांत ताणें दोन वर्सां संशोधन केलें. १९६३ वर्सासावन ताणें आयबीएम् झुरिक रिसर्च लॅबोरेटरींत आपलें संशोधनकार्य सुरू केलें. ताणें सांता बार्बराच्या कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत एक वर्स (१९७४ - ७५) काम केलें.

रोहरर आनी बिनिग हांणी क्रमविक्षण सुरंगी सूक्ष्मदर्शक तयार करपांत पयलीं यश जोडलें. तांच्या यांत्रिक अभिकल्पांतले असादारण अचुकतेक लागून तांकां हें यश मेळ्ळें. ह्या उपकरणांत सुयेची क्षितीजसमांतर प्रतलांतली परस्परांक काटकोनांत आशिल्ल्या दोन दिशांतली हालचाल नियंत्रीत करपाखातीर दाबविद्युत घटकांचो उपेग करतात आनी ताका लागून सुय पृश्ठाचें समांतर ओळीवयल्यान क्रमवीक्षण (क्रमाक्रमान अवलोकन) करता. सुयेची उबे दिशेंतली हालचाल दुसऱ्या दाबविद्युत् घटकान नियंत्रीत करून मेजतात. एका खाशेल्या तंत्राचो उपेग करून एकाच अणूचें तोंक आशिल्ल्यो सुयो तयार करप शक्य जालां. हेरवातीर क्षितीजसमांतर विभेदन सुमार २.$^{0}$ आनी उदग्र विभेदन सुमार ०.१ .$^{0}$ मेळटा आशिल्ल्यान व्यक्तिगत अणूंचें चित्रण करप शक्य जाता आनी हाका लागून परिक्षण करपाच्या पृश्ठाची आणवीय संरचना सामकी तपशीलवार अभ्यासूं येता. ह्या तंत्राचो उपेग अर्धसंवाहक भौतिकांत आनी सुक्ष्म इलॅक्ट्रोनिकींत म्हत्वाच्या आशिल्ल्या पृश्ठविज्ञानाच्या अभ्यासांत करतात. रसायनशास्त्रांत पृश्ठीय विक्रियांचो अभ्यास करपाखातीर हें तंत्र उपयुक्त आसा. डीऑक्सिरायबोन्युक्लीक आम्लाच्या रेणूच्या अभ्यासांतय ह्या तंत्राचो उपेग केला.

- कों. वि. सं. मं.

**रोहिणी :** अश्विन्यादी गणनेंतलें चवथें नक्षत्र. हें वृषभ राशींत येता. ब्रह्मा हो हाचो स्वामी. हें नक्षत्र ध्रूव आनी स्थीर आसून तें ऊर्ध्वमूख आनी अंधलोचन. मृग नक्षत्राचें तोंड आनी कृत्तिकांचो चोंबो हांकां जोडपी एक काल्पनिक ओळ काडली जाल्यार ती रोहिणी वयल्यान फुडें वता. रोहिणीपुंजातल्या पांच ताऱ्यांनी मेळून शकटाकृती (गाडयेवरी) जाल्ली आसा अशे जोतिर्विद सांगतात. हे शकटाकृतींतल्यान चंद्र वा दुसरो खंयचोय गिरो गेल्लो आसल्यार शकटभेद जालो अशें म्हण्टात.रोहिणीचे शकटाकृतीपरस तिचो समभूज त्रिकोण चड ठळक आसा. ह्या त्रिकोणाचो वयले वटेनचो कोन अस्तंतेक आसा. चोंब्यांतलें मुखेल नखेत्र (रोहिणी) हें ह्या त्रिकोणाच्या दक्षिण भागाचें तोंक. धर्तरेसावन तें ५३ प्रकाश वर्सांच्या अंतराचेर आसा. विषुववृत्ताचे उत्तरेक सुमार १५ अंशाचेर आशिल्लें हें नक्षत्र खुबूच सुंदर. तिचे सोबीतकायेचेर खोशी जावन वैदिक ऋषींनी तिचें वर्णन केलां तें अशें -

रोहिणी देव्युदगात् पुरस्तात् ।
विश्वा रुपाणि प्रतिमोदमाना ।
प्रजापति हँविषा वर्धयन्ती ।
प्रिया देवानामुपयातु यज्ञम् ।।

**अर्थ :** जायत्या रुपांनी सगळयांक आनंद दिवपी आनी प्रजापतीक हविर्द्रव्यान (यज्ञावेळार होमांत घालपाची वस्त) संतृश्ट करपी रोहिणी देवी उदेंतेकडेन जल्माक आयल्या. देवांक आवडपी अशी ही आमच्या यज्ञाखातीर हांगां येवूं.

रोहिणी ही भूलोकांतल्यान वयर गेली असो तैत्तिरीय ब्राह्मणांत उल्लेख मेळटा. प्रजापतीन 'विराट' नांवाची बायल तयार केली. पूण तिका यज्ञांत वांटो घेवंक मेळूंक नाशिल्ल्यान ती रागार जावन अंतरिक्षांत उडून गेली. रोहिणी म्हळयार वयर चडपी अशा अर्थान तिका 'रोहिणी' हेंच नांव मेळ्ळें.

रोहिणी नक्षत्राविशीं पुराणांत एक कथा आसा ती अशी - सत्तावीस नक्षत्रां ह्यो दक्ष प्रजापतीच्यो धुवो ताणें चंद्राक दिल्यो. त्या सगळयांमदीं रोहिणीचेर चंद्राचो चड मोग आशिल्लो. तें पळोवन हेर बायलांक मत्सर जालो आनी तांणी बापायकडेन कागाळ केली. तेन्ना दक्ष प्रजापतीन चंद्राक शाप दिलो, तूं क्षयरोगी जातलो. तेन्ना चंद्र भियेलो आनी ताणें खूब विनवण्यो करून दक्षाकडच्यान उशाप मागून घेताले. दक्षान ताका उशाप दिलो, 'पंदरा दीस तुजो क्षय जातलो आनी पंदरा दीस वृध्दी जातली'. मळबांत चंद्र आनी रोहिणी हांची लागसल्ली युती आनी वद्य तशेंच शुक्ल पक्षांत चंद्रकलांची जावपी क्षय - वृध्दी हांचेर ही कथा आदारिल्ली आसा.

रोहिणी नखेत्र हें शुक्राचें स्वगृह आनी चंद्राचें उच्च स्थान. ह्या नखेत्राचेर जल्मल्ल्यो चलयो गोऱ्योपिठ्ठ आनी कलेंत हुशार आसतात, अशें जातकशास्त्रांत सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**रोहिदास :** (इ.स.१४१४ - १५४०) एक संत आनी कवी. हाका रविदास वा रैदास अशें म्हण्टात. महाराष्ट्रांत ताची रोहिदास ह्या नांवान नामना आसा.



ताच्या जल्मस्थळा - काळाबद्दल जाणकारांमदीं एकमत ना. राजस्थान,गुजरात, पंजाब अशा वेगवेगळया सुवातींकडेन ताच्या जल्म स्थळाचो संबंद लावप जाता.

रोहिदास हो चामार जातींत जल्माक आयलो. बापायचें नांव रघू आनी आवयचें नांव करमा. काशीसावन लागींच मंडूर नांवाचें खेडें आसा. ह्या गांवाक पयलीं मडुआडीय अशें म्हण्टाले. पयलीं थंय चामारांची व्हडली वसणूक आशिल्ली आनी ह्याच गांवांत रोहिदासाचे पूर्वज आशिल्ल्यान थंयच ताचो जल्म जाला आसुंये अशें कांय जाणांचें मत आसा.

ताणें शाळेंतल्यान शिकप घेवंकना. पूण साधूसंताचे संगतीत

अध्यात्म आयकून तो खूब शिकलो.

रोहिदासाक भुरगेपणांतूच इश्वर भक्तीचो ध्यास लागिल्ल्यान तो दीस रात भजनांत गुंग आसतालो. संवसारांत ताचें लक्ष लागचें म्हणून ताका लग्न केलो. तरीय तो सुदारना देखून ताका घरातल्यान वेगळो केलो. तरीय ताणें भजन सोडलेंना. घराच्या फाटल्या दारांत बिराड थाटून तो भजनां गायतालो. संत म्हणून लागशिल्ल्या लोकांनी दिल्ल्या जेवणाचेर तो आयिल्ल्या गेल्यांचें अतिथ्य करपाक लागलो.

रोहिदासान पदां रचल्यांत तीं गुजरात, राजस्थान ह्या प्रदेशांत हस्तलिखीत स्वरुपांत मेळटात. ताचीं पदां 'रैदासजीकी बानी' ह्या नांवान प्रसिद्द आसात. तातूंत स साख्यो आनी ८७ पदां आसात. शिखांच्या गुरूग्रंथांत रोहिदासाचीं ८० पदां आसात. दादूपंथाच्या पंचवाणी आनी सर्वांगी ह्या नित्यपाठाच्या पुस्तकांत रोहिदासाच्या पदांचो आस्पाव केला.

रोहिदासाचे भक्त उत्तरप्रदेश, महाराष्ट्र, गुजरात, राजस्थान, पंजाब ह्या प्रदेशांनी आसात. गुजरातांतल्या चामारांक रविदासी म्हणून वळखतात. काठीयावाडांतल्या जुनागडालागीं रविदास नांवाचें कुंड आसा ताचे भोंवतणीं रोहीदासाच्या अनुयायांची वसणूक आसा. राजस्थानांत रोहिदास नांवाचें कुंड आसा. दक्षिणेंतल्या तिरूपती दोंगराखाला वैकुंठलोक नांवाचें स्थान आसून थंय ताची एक गादी आसा.

ताच्या निर्वाणस्थानाविशीं मतभेद आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## रौतराय, शचि : (जल्म : १३ मे १९१६, खूर्द - पुरी).

नामनेचो आधुनिक ओडिया कवी, कथाकार, कादंबरीकार आनी निबंदकार. ताचे मूळ नांव सच्चिदानंद. पूण साहित्यक्षेत्रांत शची रौतराय (राउतराय) ह्या नांवान तो प्रसिद्द आसा. १९३९ वर्सा कटकच्या रॅव्हनशा महाविद्यालयांतल्यान ताणें पदवी घेतली. ते उपरांत उद्देगिक संबंदांविशीं शिक्षण घेतलें. उपरांत कलकत्त्याच्या बिर्ला उद्देगसमुहाच्या कार्यालयांत (केसोराम कॉटन मिल्स लि.) १९४२ - ६२ उचेल्या पदाचेर अधिकारी म्हणून काम केलें. १९५२ त न्यूझीलंड आनी ऑस्ट्रेलिया हांगांच्या कामगारांचो अभ्यास करपाखातीर तो विदेशाक गेलो. जिनिव्हाच्या ILO हे नामनेचे संस्थेंत शिक्षण घेवन तो



१९५५ वर्सा भारतांत आयलो.

रैतरायान आपले शाळेंतले जिणेंत पाथेया सारको कवितासंग्रह प्रकाशीत करून, आपल्या साहित्याची कारकीर्द सुरू केली. उपरांत आधुनीक ओडिया साहित्याच्या मुखेल मानकऱ्यांमदीं स्वताचें स्थान निश्चीत केलें.

ताणें काव्य, कथा, कादंबरी, निबंद ह्या प्रकारांनी खूब लिखाण केलें. आयजमेरेन ताची ३५ पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत - पाथेय (१९३२), पूर्णिमा (१९३३), रक्तशिखा, पल्लिश्री (१९४१),बाजी राउत (१९४४), पांडुलिपि (१९४६),भानुमतीर देश (१९४८), अभिज्ञान (१९४९), हसंत (१९५० - ही विनोदी कविता), कविता (१९६२) हे ताचे कवितासंग्रह. कादबरी - चित्रग्रीव (१९३७); कथा -मशणिर फुल (१९४५); संशोधनात्मक साहित्य - साहित्यर मुल्यबोध (१९८३). ताच्या निवडक लेखांचें संकलन शची रौतराय ग्रंथावली ह्या नांवान दोन खंडांनी प्रकाशीत जालां. निवडक कथा - कवितांचे इंग्लीश अणकार प्रकाशीत जाल्यात. तेभायर कटक हांगच्यान भायर सरपी ''दिगंत'' पत्राचो संपादक म्हणून ताणें म्हत्वाचें काम केलां. ताचें साहित्य विचार, साहित्यपर मुल्यबोध, आधुनीक साहित्यर केतको दिगा हीं वाङ्मयीन पुस्तकां अभ्यासाच्या आनी समिक्षेचे नदरेन मोलाचीं थारल्यांत. फ्रॉयड आनी युंग ह्यासारक्या मानसशास्त्रज्ञांच्या मनोविश्लेशणात्मक विचारांची ओडिया भाशिकांक आपल्या कथांमदल्यान चित्रगीत कादंबरेंतल्यान वळख करून दिली.

१९६८ वर्सा अखिल भारतीय कविसंमेलनाचो अध्यक्ष, १९७८ - ८१ वर्सा ओरिसा राज्य साहित्य अकादेमीचो अध्यक्ष, १९५९ - ७५ ओरिसा बोर्ड मिल्स लि. कटकचो कार्यकारी संचालक, १९७८ कटकच्या दिगंत म्युझियम अँड रिसर्च सेंटराचो संस्थापक संचालक हीं मानाचीं पदां ताणें सांबाळ्ळीं.

कला - विज्ञान हांचेर आंतरराश्ट्रीय परिशदेक व्याख्यातो म्हणून हार्व्हर्ड विद्यापिठांत, आनी बांगला कृषी, विद्यापिठांत ताणें व्याखानां दिल्यात. न्यूझीलंड आनी ऑस्ट्रेलियेंतल्या कामगारांच्या प्रस्नांचे परिशदेंत, तशेंच ढाक्काच्या व्याख्यान सत्रांत वांटो घेतला. तशेंच ताच्या कार्याखातीर ताका इनामांय फावो जाल्यांत.

१९६२ वर्सा ताका 'पद्मश्री' हो पुरस्कार, १९६४ वर्सा कविता काव्यसंग्रहाक साहित्य अकादेमी पुरस्कार, १९६५ सोव्हिएत लँड नेहरू पुरस्कार आनी १९८६ भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळयात. १९७७ आंध्रातल्या आनी १९७८ बेन्हमपूर विद्यापिठांत रौतरायाक सन्मान्य डी लिट ही पदवी दिवन भौमान केलो.

अमेरिका, फ्रांस, इटली, स्वित्झर्लंड, थायलंड, श्रीलंका ह्या देशांनी आंतरराश्ट्रीय सांस्कृतीक परिशदां निमतान ताणें देशाभायलो प्रवास केला.

पाथेय आनी पांडुलिपि ह्या कवितासंग्रहान ओडिया काव्यांत

आधुनिकतेचें एक नवे यूग सुरू जालें. अतिवास्तववाद प्रतिमावाद, अभिव्यक्तिवाद, वास्तवाभिमुख आदर्शवाद हें आधुनीक वाङ्मयीन दर्शन ताणें आपल्या काव्यांतल्यान घडयलें. ताणें आपल्या कवितांतल्यान उत्कट अनुभुतीचो प्रत्यय रसिकांच्या काळजामेरेन पावयलो. आपल्या साहित्यांतल्यान ताणें गांवगिरे जिणेचें जितें आनी वास्तव्य दर्शन घडयलां.

- कों. वि. सं. मं.

**रौद्र रस :** पळेयात रस.

**ऱ्हायन :** अस्तंत युरोपांतले भितरले येरादारीचे नदरेन म्हत्वाची न्हंय. तिची लांबाय सुमार १३३५ किमी. आनी जलवाहनक्षेत्र २५२००० चौ. किमी. आसा. फॉर्देर - ऱ्हायन आनी हिंट - ऱ्हायन ह्या ऱ्हायन न्हंयेच्या दोन मुखेल शिर्षप्रवाहांच्यो उगम मध्य स्वीस आल्प्सांतले सेंट गॉटर्ड दोंगरावळींत अनुक्रमान तोमा तळयांतल्यान आनी एका हिमन्हंयेतल्यान जाता. पर्वतांतल्यान २३०० मी. सकयल व्हांवत येतकच ऱ्हायन न्हंय सुरवेक स्विट्झर्लंड लिख्टेनश्टायन हांचे शिमेवयल्यान एका रूंद देगणांतल्यान तशेंच फुडें ऑस्ट्रिया - स्विट्झर्लंड शिमेवयल्यान उत्तरेक व्हांवत वचून कॉन्स्टन्स तळयांत वता. हांगाच्यान ती अस्तंतेकडल्यान भायर येवन शाफ हौझनकडल्या ऱ्हायन फॉल ह्या २१ मी. उंचायेच्या घसघशावयल्यान सकयल देंवता आनी वाझेल मेरेन स्विट्झर्लंड - जर्मनी शिमेवयल्यान व्हांवता. हांगाच्यान ती उत्तर वाहिनी जाता. थंय तिच्या पात्राचे अस्तंतेक व्होज पर्वत आनी उदेंतेक ब्लॅक फॉरेस्ट प्रदेश आसा. वाझेलासावन ही न्हंय जर्मनी - फ्रांस हे शिमेवयल्यान व्हांवता आनी उपरांत पुराय जर्मनींतल्यान व्हांवता. ह्या वाठारांत तिका ईल ही म्हत्वाची उपन्हंनय मेळटात.

ऱ्हायन - मेन ह्या संगमाकडल्यान फुडें ती अस्तंतेकडेन घुंवता. ह्या भागांत बिगनसावन न्हंयेची सुमार १६० किमी. लांबायेची 'ऱ्हायन गॉर्ज' ही घळ तयार जाल्या. हांगा तिचे देगेवयलो वाठार द्राक्षामळे, ऱ्हायन वायन आनी पुर्विल्ल्या किल्ल्याच्या अवशेशांखातीर प्रसिद्द आसा. बॉनाचे दक्षिणेक दोंगराळ वाठार हुंपून ही न्हंय कॉलोन शारापसून मैदानी वाठारांत प्रवेश करता. ह्या वाठारांत तिका रूर आनी लिप ह्यो निमाण्यो उपन्हंयो मेळटात.

नेदर्लंडसांतले न्हंयेचो निमाणो टप्पो सुमार १२० किमी. लांबायेचो आसून, हांगा न्हंयेचो वेग उणो जाला आनी ताका लागून थंय त्रिभूज प्रदेशाची निर्मिती जाली. हांगा गाळ सांठयता आशिल्ल्यान न्हंयेचें पात्र हेर वाठारांपरस ऊंच जाला. ताका लागून हुंवारापसून भोंवतणच्या शाराक भिरांत निर्माण जाता. लोकांनी हांगा बांद आनी खारजां बांदून ही अडचण पयस केल्या. थंयच्यान ही न्हंय जर्मनी आनी नेदरलंडसाचे शिमेवयल्यान दोन मुखेल फांट्यांनी विभागिल्ली आसा. हातुंतलो उत्तरेकडलो लेक हो फांटो आर्नहेम आनी रॉटरडेम हांगाच्यान व्हांवत वचून हूक फान हॉलंटाक दर्याक मेळटा. दक्षिणेकडलो व्हाल हो दुसरो फांटो व्हड आसून तो नाइमेगन शाराकडल्यांन व्हांवता.

हे न्हंयेपात्रांतल्यान फेब्रुवारींत बर्फ विरगळिल्ल्यान सगळयांत चड जाल्यार ऑक्टोबर - नोव्हेंबरांत सगळयांत उणें उदक व्हांवता. बाझेल ते स्ट्रॅसबर्गाक खारजावरी येरादारीं जाता. तशेंच डॅन्यूब, ऱ्होन, मार्न, एम्स, वेझर, एल्ब आनी ओडर ह्या न्हंयांकडेन तशेंच तांचेवयल्या शारांकडेन ही न्हंय जोडिल्ली आसा.

रोमी काळासावन हे न्हंयेचे येरादारीचेर कर आकारताले. चवदाव्या शतमानांत तिचेर ६० परस चड जकातनाके आशिल्ले. फुडें तांची संख्या उणी जाली. १८६८ वर्सा हे न्हंयेक आंतरराश्ट्रीय येरादारीखातीर मान्यताय मेळ्ळी. सद्या हे न्हंयेचेर व्हड प्रमाणाचेर येरादारी जाता. न्हंयेतोंडार आशिल्लें रॉटरडॉम - युरोपोर्ट संकूल म्हळयार संवसारांतलें एक व्हड बंदर समजप जाता. हाचेभायर ड्युइसबर्क, रूर, स्टॉसबर्ग, कॉलोन, लूटव्हिखसहाफेन मॅनहायम हीं हे न्हंयेवयलीं हेर म्हत्वाचीं बंदरां.

उद्देगीकरण, पर्यटन, शेती हे नदरेन ऱ्हायनाचें देगण बरेंच फुडारिल्लें आसा. ह्या न्हंये वाठारांत गंव, साकर, बीट, तंबाकू, द्राक्षां हांचेंय उत्पादन जाता. मायन्स ते बॉनचो न्हंयेदेगणांतलो सोबीत भूवाठार, उद्देगीक नगरां, इतिहासीक किल्ले, दोंगुल्ल्यो, द्राक्षांचे मळे हांकां लागून ह्या वाठारांत पर्यटकांची गर्दी आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**ऱ्होड आयलंड :** अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतल्या न्यू इंग्लंड ह्या स राज्यांच्या विभागी प्रदेशांतलें एक राज्य. देशांतल्या मूळ तेरा वसणुकांतली एक. क्षेत्रफळ ३, १४४ चौ, किमी. दक्षिण - उत्तर रुंदाय ६० किमी. विस्तार ४१° १८' ते ४२° ०१' उत्तर अक्षांश आनी ७१° ४८' ते ७१° ०७' अस्तंत रेखांश. ह्या राज्याचे उत्तरेक आनी उदेंतेक मॅसॅच्युसेटस्, अस्तंतेक कनॅक्टिकट हीं राज्यां जाल्यार दक्षिणेक अॅटलांटीक म्हासागर आसा. प्रॉव्हिडन्स हें राज्यांतलें सगळयांत व्हड आनी राजधानी शार.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणुकेचे नदरेन राज्याचे उदेंतेकडचो कोस्टल लोलँड्स आनी अस्तंतेकडचो इस्टर्न न्यू इंग्लंड अपलँड अशे दोन सैमिकी विभाग केल्यात. कोस्टल लोलँड्स हो उणे उंचायेचो रेंवटी प्रदेश. ह्या विभागाची दर्यापातळेसावन सगळयांत चड उंचाय ६० मी. ह्या विभागांत ऱ्होड आयलंड, कनॅक्टिकट आनी प्रुडन्स ह्या तीन व्हड आनी साबार ल्हान जुंव्यांचो आस्पाव जाता. अस्तंतेकडच्या वॅस्टर्न रॉकी अपलँड ह्या विभागान राज्याचो सुमार ६६ % वांटो रेवडिला. हो भाग दोंगरी आनी ऊंच - सकयल. ह्या विभागाची सगळयांत चड

उंचाय २४७ मी. उदेंतेकडसून अस्तंतेकडेन ह्या प्रदेशाची उंचाय वाडत गेल्या. राज्याचें हवामान आर्द्र खंडीय प्रकारचें. जानेवारीचें सरासरी तापमान -३° सॅ. ते -१° सॅ. आसतां, जाल्यार जुलय म्हयन्यांत सरासरी तापमान २१° सॅ. आसता. वर्सुकी सरासरी पावस सु. १०० सेंमी. चक्रीवादळां आनी दर्याच्या ल्हारांचो तडारवो राज्याच्या दर्यादिगांच्या भागांत बसता. हांगाच्या रानांनी ओक, पायन, जुनिपर, ॲश, हिकरी, एल्म, विलो, मॅपल आनी बर्च ही वनस्पत मेळटा. जाल्यार मोनजातींभितर सोंसो, चानी, कोले, हरण हांचो आस्पाव जाता.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** ऱ्होड जुंव्याचेर युरोपी वसणूकवादी पावचे पयलीं अमेरिकी इंडियन लोकांचो राबितो आशिल्लो. तांचेमदीं अल्गाँक्वियन इंडियन कुळांतल्या नॅरागँसिट, निपमक, पीक्वॉट, वाम्पानोॲग ह्या इंडियन जमातींचो आस्पाव आशिल्लो. नॅरागँसिट जमात तांचेमदली चड म्हत्वाची. ते लोक शिकार, नुस्तेमारी आनी शेतवड करताले. मिंगेल द कॉर्टेरीअल हो पुर्तुगीज मार्गनिर्देशक १५०२ त ऱ्होड जुंव्याचेर पावलो. उपरांत फ्रांसाखातीर काम करपी जोव्हान्नी व्हेर्रात्सानो ह्या इटलियी मार्गनिर्देशकान १५२४ त नॅरागँसिट उपसागराचें समन्वेशण केलें. ताका भूंयमध्य दर्यांतल्या रोड्झ जुंवो आनी ऱ्होड जुंव्यांभितर खूब साम्य मेळ्ळें. देखून ताणें त्या जुंव्यांक ऱ्होड आयलंड नांव दिलें आसुये अशें कांय इतिहासकारांचें मत. जाल्यार हेर इतिहासकारांच्या मताप्रमाण हॉलंड मार्गनिर्देशक ॲड्रिल ब्लॉक हाणें ह्या प्रदेशाक ऱ्होर हें नांव दिलां. रॉजर विल्यम्स हाणें १६३६त प्रॉव्हिडन्स शारांत पयलीं गोऱ्या लोकांची वसणूक उबारली. थंयच्या लोकांक धर्मीक आनी राजकीय स्वातंत्र्य मेळोवन दिवपाखातीर तो खूब वावुरलो. हाका लागून ताका मॅसॅच्युसॅट्सावन धांवडावन घालो. ताचे उपरांत विल्यम कॉडिंटन, जॉन क्लार्क, ॲन हचिन्सन हांणीय धर्मीक स्वातंत्र्याची मागणी केल्ली म्हणून १६३८त तांकांय मॅसॅचुसॅट्सावन धांवडावन घाले. तांणी ऱ्होड जुंव्याचेर येवन पोकॅसेट वसणुकेची स्थापना केली. पूण धर्मीक आनी राजकी स्वातंत्र्यावयल्यान तांचेमदींय भेदभाव निर्माण जाले. हचिन्सन आनी ताचे सांगाती पोकॅसेटांत रावन तांणी ताका पोर्टस्मथ अशें नांव दिलें. जाल्यार कॉडिंटन, क्लार्क आनी तांच्या सांगात्यांनी १६३९त दक्षिणेक न्यू पोर्टाची स्थापणूक केली. १६४३त सॅम्युएल गॉर्टन, जॉन ग्रीन आनी हेरांनी मेळून वॉरीक वसणुकेची स्थापणूक केली. शेजारच्या वसणुकांसावन राखण जावंची म्हणून १६४७त चारूय वसणुको एकठांय आयल्यो. थळाव्या इंडियन लोकांकडेन बरे संबंद दवरपाच्या हेतान रॉजर विल्यम्सान तांकां कांय अधिकार दिल्ले. ह्या कारणावयल्यान शेजारच्या मॅसॅचुसॅट्स बे आनी प्लिमथ कॉलनीभितर वाद सुरू जालो. वसणूककारांकडच्यान थळाव्या लोकांची सतावणूक जाता देखून वाम्पानोॲग इंडियनांचो मुखेली किंग फिलिप हाणें १६७५त न्यू इंग्लंडच्या वसणूककारांक जिवेशीं मारपाक सुरवात केली. हाका विरोध करचेखातीर कॉलनीच्या सैन्यान फिलीप आनी ताच्या सांगात्यांचेर हार घाली. उपरांत इंडियन लोकांनी ऱ्होड जुंव्यावयलीं शारां हुलपावन कांय वसणूककारांची हत्त्या केली. १६७६त दक्षिण न्यू इंग्लंडांतलें झूज थांबलें. पूण मेन आनी न्यू हँपशायरांत मात तें १६७८ मेरेन चालूच आशिल्लें.

अठराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दासावन ऱ्होड जुंव्याची अर्थीक स्थिती खूब सुदारली. शेतवड आनी पशुपालन वेवसायांत खूब विकास जालो. अर्थीक भरभराट जायत रावली तसो गुलामांचोय वेपार वाडलो. थंयच्या वसणूककारांनी गुलाम आनी रम वेवसायांत व्हड प्रमाणांत वाड केली. पूण गुलाम वेपाराचेर बंदी हाडपी ऱ्होड जुंवो ही पयली वसणूक. ग्रेट ब्रिटनान आपल्यो अमेरिकन वसणुको आनी ऱ्होड जुंव्याचेरूय १७६०त कर आनी वेपार हांचेर खूब जाचक कायदे लागू केले. हाका लागून ग्रेट ब्रिटनाक खूब फायदो जावपाक लागलो. ऱ्होड जुंव्यावयल्या लोकांनी ताका खर विरोध केलो. तांणीं ब्रिटिशांचें लिबर्टी हें तारूं पेटोवन बुडयलें. राज्यक्रांती सुरू जाले उपरांत ऱ्होड आयलंडानूच तातूंत वांटो घेतलो. ग्रेट ब्रिटनासावन स्वातंत्र्य हाशील करपी ऱ्होड आयलंड ही पयली वसणूक.

अठराव्या शेंकड्याचे अखेरेकसावन ऱ्होड आयलंडाच्या उद्देगीक विकासाक सुरवात जाली. वस्त्रोद्देग हो थंयचो पयलो उद्देग. उपरांत धातूनिर्माण, तारवां बांदप, नुस्तेमारी, देवमाशासावन तेल काडप ह्या सारकिल्ल्या उद्देगांत वाड जायत रावली. हाका लागून कॅनडियन, युरोपी, आनी हेर साबार परकी लोक थंय वचून स्थायिक जाले. १८४२ त राज्याचें नवें संविधान तयार केलें. नागरी झुजा उपरांत लेगीत भरभराट जायत रावली.

पयल्या म्हाझुजाच्या तेंपार राज्यांत रसायनां, दारूगुळो, तारवां बांदणी ह्या उद्देगांचो खूब विकास जालो. पूण लुगट उद्देगाचें म्हत्व खूब उणें जालें. पूण १९३०तले व्हड मंदीक लागून तशेंच १९३८तले सैमिकी आपत्तींक लागून राज्याची अर्थीक स्थिती इबाडली. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या तेंपार झूज सादनसामुग्री तयार करपी राज्यांतल्या कारखान्यांचो खूब विकास जालो. पूण झुजा उपरांत हे कारखाने बंद पडिल्ल्यान राज्यांतले खूब कामगार बेकार जाले. पूण उपरांतच्या धा वर्सांभितर इलॅक्ट्रॉनीक साहित्यां, रसायनां, यंत्रसामग्री आनी प्लस्टिकाच्या उद्देगांत वाड जाल्ल्यान बेकारीचें कांय प्रमाण उणें जालें. १९८०त बेकारीचें प्रमाण परतून वाडलें. बेकारीचो प्रस्न सुटावो करचो म्हणून राज्यांक केंद्र शासनाकडच्यान व्हड प्रमाणांत अर्थीक आदार घेवचो पडलो.

ऱ्होड आयलंडाची पांच परगण्यांत विभागणी केल्ली आसा. राज्याच्या विधान मंडळाक म्हासभा अशें म्हण्टात. म्हासभा दोन घरांनी विभागल्या. दोनूय घरांतल्या वांगड्यांक दोन वर्सांखातीर भौशिक मतदानान वेंचून काडटात. देशाचे काँग्रेसीचेर राज्यांतल्यान

दोन सिनेटर आनी दोन प्रतिनिधी धाडटात.

**आर्थिक स्थिती :** ऱ्होड आयलंड हें मुखेलपणान कारखानदारी राज्य. राज्यांतले चडशे कामगार, निर्मिती उद्देगांत आनी ल्हान-व्हड उद्देगांत गुंथल्यात. शेतवडीचें म्हत्व दिसान दीस उणें जायत आसा. कुकडां आनी गोरवां पोसपाचोय धंदो कांय प्रमाणांत चलता. बटाट हें राज्यांतलें मुखेल पीक. मको, तोमाट, पाचवीं मिरयां, कोबी, कडुण, सफरचंद हीं थंय जावपी हेर पिकां. नुस्तेमारी हो थंयचो पारंपारीक वेवसाय.

वसणूक काळासावन ऱ्होड आयलंड कपड्या उद्देगाखातीर प्रसिद्द आसा. त्या तेंपार ह्यो गिरणी जलविद्युत् शक्तीचेर चलताल्यो. विसाव्या शेंकड्यांत राज्यांतल्या उद्देगांत खूब विंगडपण निर्माण जालें. उपरांत ल्हव ल्हव करून लुगट उद्देगाक देंवती कळा लागली. जडजवाहीर, रुप्याच्यो वस्ती, धातूकाम, यंत्रसामुग्री, अन्नसामुग्री, विद्युत् साहित्य, रबर, प्लास्टिक, रसायनां तशेंच ल्हान - व्हड तारवां बांदप हे हांगाचे म्हत्वाचे उद्देग. वुनसॉकिट, पटकीट, सेंट्रल फॉल्स, प्रॉव्हिडन्स, क्रॅनस्टन आनी वॉरीक हीं राज्यांतलीं म्हत्वाचीं उद्देगीक शारां, राज्यांत ल्हान-व्हड धरून तीन हजारांवयर कारखाने आसात. सद्या पर्यटन वेवसायाकूच चड म्हत्व मेळ्ळां.राज्यांतली चडशी वीज उत्पादन औश्णिक स्वरुपाची.

राज्यांतली येरादारी वेवस्था उच्च दर्जाची आसा. न्यूपोर्ट आनी प्रॉव्हिडन्स ह्या बंदरांक संवसारांत प्रसिद्दी लाबल्या. वॉरीक शारांतलो 'थीओदोर फ्रान्सिस ग्रीन ॲरपोर्ट' हो हांगाचो सगळयांत व्हड विमानतळ. ऱ्होड आयलंडांतल्यान ३० खबरांपत्रां आनी २० नेमाळीं उजवाडा येतात. प्रोव्हिडन्स इव्हीनींग बुलेटीन, प्रोव्हिडन्स जर्नल, पटकीट टायम्स आनी वुनसॉकीट कॉल हीं म्हत्वाचीं दिसाळीं.

राज्यांतले सगळयांत चड लोक रोमन कॅथलिक पंथाचे. हांचेखेरीज प्रॉटॅस्टंट, एपिस्कोपल, बाप्तिस्त, कॉंग्रेगेशनल, मॅथडिस्ट, ज्यू ह्या धर्मांचेय लोक थंय आसात. शिक्षणीक मळारूय थंय खूब उदरगत जाल्ली आसा. ऱ्होड आयलंड म्हाविद्यालय, ऱ्होड आयलंड विद्यापीठ, ब्राउन विद्यापीठ, प्रोविडन्स म्हाविद्यालय, ब्रायण्ट म्हाविद्यालय, ऱ्होड आयलंड अभिकल्प विद्यालय ह्यो राज्यांतल्यो म्हत्वाच्यो उच्च शिक्षणसंस्था.

- कों. वि. सं. मं.

**ऱ्होडेशिया (झिंबाब्वे) :** रिपब्लिक ऑफ झिंबाब्वे. आफ्रिका खंडांतलो एक भूवेश्टित देश. क्षेत्रफळ ३९०,२७२ चौ. किमी. विस्तार १५° ३७' ते २२° २५' दक्षिण, अक्षांश आनी २५ १७° ते ३३° ४' उदेंत रेखांश. देशाचे उत्तरेक आनी उदेंतेक मोझांबीक, दक्षिणेक दक्षिण आफ्रिका, नैऋत्येक बोत्स्वाना, वायव्येक आनी उत्तरेक झांबिया हे देश आसात. हारारे हें देशाचें राजपाटण. १९८० सावन देशाच्या 'झिंबाब्वे' ह्या नांवाक अधिकृत रितीन मान्यातय मेळ्ळया.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे हायव्हेल्ड, मिडल्व्हेल्ड आनी लोव्हेल्ड अशे तीन वांटे केल्ले आसात. हायव्हेल्ड भागांत देशाच्या मदल्या वाठारांत नैऋत्य - ईशान्य दिकेक पातळिल्लो सुमार ६५० किमी. लांब आनी ८० ते १६० किमी. रुंदायेचो दोंगरी प्रदेश. हो प्रदेश १,२०० ते १,६७५ मी. ऊंच आसून, देशाचो सुमार २५% भाग ह्या प्रदेशाखाल आसा. तातूंत ल्हान - व्हड अशा साबार दोंगुल्ल्यांचोय आस्पाव जाता. देशांतल्या मुखेल पर्वतावळींतली इन्यांग्गा ही रांक सगळयांत ऊंच. हे रांकेंतलें इन्यांग्गानी हें देशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. तें सुमार २५९३मी. ऊंच. इन्यांग्गा रांकेच्या दोनय वटांनी उत्तरेक झँबीझी आनी दक्षिणेक लिंपोपो न्हंयेमेरेन पातळिल्ल्यो सुमार ६०० ते १२०० मी. उंचायेच्या प्रदेशाचो मिडल्वॅल्ड प्रदेशांत आस्पाव जाता. ह्या प्रदेशांन देशाचो सुमार ४० % भाग रेवडिला. साबी, लुंडी, नुआनेत्सी ह्या न्हंयांच्या देगणांतल्या भागांक आनी वायव्येकडच्या उणे उंचायेच्या भागाक लववॅल्ड अशें म्हण्टात. देशांतलो सगळयांत उणे उंचायेचो भाग देशाचे आग्नेयेक डुमेला शारालागीं आसा. देशांतले चडशे सडे न्हंयांनी रेवडिल्यात. देशाचे वायव्य आनी उत्तर शिमेवयल्यान व्हांवपी झँबीझी आनी दक्षिण शिमेवयल्यान व्हांवपी लिंपोपो ह्यो देशांतल्यो मुखेल न्हंयो. सान्याटी, डमन्याटी, सेंग्वा, ग्वाई, डेका, माझोए, साबी, लुंडी, नुआनेत्सी, बूल्च्ये, मात्शेउमलोपे, शाही ह्यो देशांतल्यान व्हांवपी हेर न्हंयो.

**हवामान :** देशाचें हवामान उंचायेप्रमाण बदलता.पूण सादारणपणान ऱ्होडेशियेचो आस्पाव उपोश्ण कटिबंधांत जाता. ऊंच प्रदेशांनी तापमान लोवेल्ड परस उणें आसून थंय पावस चड पडटा. शिंयाच्या दिसांनी ऊंच भागांतलें तापमान १३° ते १२° सॅ. मेरेन सकयल देंवता, जाल्यार गिमाच्या दिसांनी तें २४° सॅ. मेरेन वयर वता. लोवॅल्ड भागांत तापमान ३२° ते ३८° सॅ. मेरेन वाडटा. गिमाच्या दिसांनी पावस चड पडटा. देशाचे उदेंतेक पावस चड पडटा, जाल्यार दक्षिण आनी नैऋत्य भागांत उणो पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** देशाचो चडसो भाग सॅव्हाना प्रदेशांत आस्पावला. चड पावस पडपी आनी ऊंच प्रदेशांनी उश्ण कटिबंधी सदांपाचवी आनी घट्ट लांकडाची वनस्पत आसा. साग, मॅहॉगनी, नॉबथॉर्न, अमसास, गेरखर्चीच हे हांगा सांपडपी व्हड रूख. वायव्य भागांत पानझडी रूख जाल्यार नैऋत्य भागांत कांट्यांची वनस्पत चड. देशाचो दक्षिण भाग आफ्रिकन आयर्नवूड वनस्पतीन रेवाडला. हांगा मेळपी फुलझाडांमदीं आनी झोपांमदीं हिबिस्कस, स्पायडर लिली, लिओनोड्स, कॅशा, डॉम्बेआ हे मुखेल प्रकार आसात.

देशांतल्या रानांनी तरेकवार मोनजात आसा. शींव, बिबटो, चितळ, तरस, मुंगूस, बॅबून, चिंपांझी, गोरिल्ला, बुशबेबी, हत्ती,

पाणघोडो, जिराफ, झॅब्रा ही हांगा सांपडपी मुखेल रानटी मोनजात. इलँड, कुदू, इंपाला, हार्टबीस्ट, वॉटरबॅक ह्यो हांगा मेळपी कांय हरणांच्यो खाशेल्यो जाती. अँट थ्रश, बार्बेट, राघू, बिशपबर्ड, बुलबूल, फेझंट, ग्राउझ हीं हांगा मेळपी मुखेल सवणीं.

**इतिहास आनी मोनजात :** ऱ्होडशियेच्या उत्खननांत सांपडिल्ल्या अश्मयुगीन पुराव्यांवयल्यान इतिहासाचो गाभो थरयला. कालाहारी रेंवटी प्रदेशान रावपी बुशमॅन हे देशांतले मुळावे लोक, अशें इतिहासकारांचें मत आसा. ते लोक ल्हान ल्हान पंगडांनी रावताले. शेतवड, पशुपालन आनी शिकार हे ताचें मुखेल वेवसाय आशिल्ले. हांगाच्या लोहधातूचें काम करपी कांय गटांनी बुशमन लोकांच्यो जमनी घेतल्यो. पांचव्या ते धाव्या शेंकड्याभितर बातू भाशीक शोन लोकांनी बुशमॅनांची कत्तल करून तांकां धांवडावन घाले. पूण धवडांचे पंगड मात शोन लोकांभितर भरसून गेले. उपरांत शोन लोकांनी दर्यादेगांनी रावून भांगर आनी हस्तीदंताचो वेपार वाडयलो. ल्हव ल्हव तांणी आपलो शेक वाडोवन त्या प्रदेशांत आपलें साम्राज्य उबारलें. ताचें साम्राज्य एमबेनेमुतापा ह्या नांवान प्रसिद्द आशिल्लें. पंदराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन ह्या साम्राज्याचे दोन कुडके जावन दक्षिणेकडचो भाग उरोझ्वी साम्राज्य म्हणून प्रसिद्द जालो. मुखावयल्या दोन शेंकड्यांभितर ह्या भागाची खूब उदरगत जाली. १८३० च्या सुमाराक दक्षिण आफ्रिकेंतल्या एंडबिली लोकांनी उरोझ्वी साम्राज्य मोडून उडयलें. युरोपी लोक हांगा पावले. उपरांत गुलामांच्या वेपारांत वाड जाल्ली. पूण स्कॉटलंडी मिशनरीन ताका विरोध केल्लो. 'रॉबर्ट मॉफल' हाणें १८५९त 'इन्याती मिशन' च्या रुपान हांगा युरोपियांची पयली वसणूक उबारली. उपरांत साबार युरोपियांनी आपआपल्यो वसणुको हांगा उभारल्यो.

विसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक 'ब्रिटीश साऊथ आफ्रिका कंपनीन' ह्या प्रदेशांतल्या वेपारांत खूब वाड केली. उपरांत युरोपी लेकांचो चड आनी चड हस्तक्षेप जावपाक लागलो म्हणून एंडबिली आनी शोन लोकांनी तांचेआड सशस्त्र उठाव केले. १८९१त न्यासालँड ब्रिटिशांचें संरक्षीत राज्य जालें, जाल्यार उरिल्लो प्रदेश ऱ्होड्स कंपनीच्या शेकातळा उरलो. १८९५त ब्रिटीश साउथ आफ्रिका कंपनीन मॅशोनालँड आनी मॅटवीलीलँड मेळून ऱ्होडेशिया अशें नांव दिवपाचें थरयलें. पूण झँबीझी न्हंयेच्या उत्तरेकडच्या प्रदेशासावन हो भाग वेगळो जाल्ल्यान ताका दक्षिण ऱ्होडेशिया अशें नांव दवरलें. उपरांत १९२३ मेरेन ब्रिटीश साऊथ आफ्रिका कंपनीन ह्या प्रदेशाचो कारभार सांभाळ्ळो. १९२३त युरोपी लोकांनी जनमत घेवन हो भाग स्वयंशासीत ब्रिटीश वसणूक म्हणून घोशीत करपाविशीं मागणी केली. देखून १२ सप्टेंबर १९२३ दिसा दक्षिण ऱ्होडेशियेचो कारभार कंपनीकडच्यान ब्रिटीश सरकाराकडेन गेलो. १ ऑक्टोबर १९२३ दिसा हांगा सरकाराची स्थापणूक जावन ताचो कारभार गव्हर्नराच्या हातांत दिलो आनी हो प्रदेश ब्रिटीश वसणूक म्हणून जाहीर केलो. १९५३ त दक्षिण ऱ्होडेशिया, उत्तर ऱ्होडेशिया आनी न्यासालँड हांचें मेळून सँट्रल आफ्रिका फॅडरेशन ह्या नांवान एक संघराज्य स्थापन केलें. १९६० त हांगा नॅशनल डॅमोक्रॅटीक पक्षाची स्थापणूक जावन एन्कोमो हो ताचो अध्यक्ष जालो. १९६१त ह्या पक्षाचेर सरकारान बंदी घाल्ल्यान, एन्कोमो हाणें दुसरो पक्ष उबारलो. पूण तोय पक्ष बेकायदेशीर थारयल्ल्यान तांचेमदले कांय लोक वेगळे जावन तांणी 'झिंबाब्वे आफ्रिकन नॅशनल युनियन, हो नवो पक्ष निर्माण केलो. राज्याची नवी घटना १९६२ सावन अंमलांत येवन तातूंत ग्रेट ब्रिटनाचे कायदेशीर अधिकार उणे करून आफ्रिकन लोकांखातीर कांय मताधिकार दिले. डिसेंबर १९६३ त संघराज्य बरखास्त जावन उत्तर ऱ्होडेशिया, झिंबाब्वे आनी न्यासालँड मालावी प्रजासत्ताक ह्या नांवांनी स्वतंत्र जावन दक्षिण ऱ्होडेशियेचो चड करून ऱ्होडेशिया ह्या नांवान उल्लेख जावपाक लागलो.

१९६५त जाल्ले वेंचणुकेंत ऱ्होडेशियन फ्रंट पक्षाक भोवमत मेळ्ळें. तांणी ब्रिटिशांकडेन पुराय स्वातंत्र्याची मागणी केली. पूण ग्रेट ब्रिटनान ताका न्हयकार दिल्ल्यान प्रधानमंत्री ईयान स्मिथ हाणें राज्यांत आणिबाणी जाहीर करून उपरांत ऱ्होडेशियेचें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. ब्रिटीश सरकारान तें स्वातंत्र्य बेकायदेशीर थारावन ऱ्होडेशियेकडेन आशिल्ले वेपारी आनी अर्थीक संबंद तोडले. उपरांत नोव्हेंबर १९६९त जनमत घेवन ऱ्होडेशिया प्रजासत्ताक राज्य म्हणून जाहीर केलें. प्रजासत्ताकाची स्थापणूक जाले उपरांत युरोपी लोक आनी थळावे लोक तशेंच पक्षा पक्षाभितरले मतभेद वाडत गेले. मुखावयलीं धा वर्सांसुमार फ्रंट पक्षान थंयचे ॲसेंब्लींत शेक गाजयलो. पूण झापू आनी झानू ह्या पक्षांनी स्मिथ सरकाराआड सशस्त्र उठाव केले. आफ्रिकन गनिमी काबा संघटनेनूय ह्या उठावांत वांटो घेतिल्लो. इबाडिल्ले स्थितीचो फायदो घेवन एनकोमो आनी मुगाबे हांणीं संयुक्तपणान पॅट्रिओटीक फ्रंटाची स्थापणूक केली. उपरांत राज्यांतली तंग स्थिती आळाबंदात हाडपाखातीर स्मिथ सरकाराक दक्षिण आफ्रिकी पुलिसांचो आदार घेवचो पडलो. १९७८त प्रधानमंत्री स्मिथ आनी नॅशनॅलिस्ट पक्षाचे फुडारी हांणीं काळ्या लोकांक मताधिकार, भौशिक वेंचणूक पद्दत आनी भोवमतवादी पक्षाचें सरकार अशो अटी आशिल्ली घटना मान्य केली.एप्रिल १९७९त जाल्ले वेचणुकेंत युनायटेड आफ्रिकन नॅशनल काऊंसिल ह्या पक्षाक भोवमत मेळून बिशप आबेल हो पयलो काळो मनीस प्रधानमंत्री जालो. ताणें देशाचें झिंबाब्वे ऱ्होडेशिया अशें नामांतर केलें. ताणें देशांत शांती प्रस्थापित करपाचे खूब यत्न केले. पूण पॅट्रिऑटिक फ्रंटाच्या लोकांनी सरकाराआडचो विरोध चालूच दवरलो. हाका लागून निमाणेकडेन १९७९त ब्रिटिशांनी सगळे पक्ष एकठांय हाडून देशाचे नवे घटनेची वळेरी तयार केली. डिसेंबर १९७९त कांय दीस हो देश ब्रिटीश वसणूक म्हणून जाहिर केलो. फेब्रुवारी १९८०त ब्रिटीश वेंचणूक आयोगाच्या फुडारपणाखाला वेंचणूक जावन रॉबर्ट

मुगाबे हो प्रधानमंत्री जालो. १८ एप्रिल १९८० ह्या दिसासावन देशाचें रिपब्लिक ऑफ झिंबाब्वे अशें नामांतर केलें. १४ मे १९८० दिसा झानू आनी पॅट्रिऑटीक फ्रंट हांचें जोड सरकार अस्तित्वांत आयलें. ह्या दिसासावन देशाची पुराय सत्ता गोऱ्या लोकांच्या हातांतल्यान काळ्या लोकांकडेन गेली. पूण देशांतलो पक्षा पक्षांभितरलो तणाव आनी संघर्श चालूच उरले. मार्च १९९०त जाल्ले वेंचणुकेंत रॉबर्ट मुगाबे हो प्रधानमंत्री म्हणून परतून वेंचून आयलो. १९९१ - ९२त जेन्ना देशांत दुकळ पडलो तेन्ना राश्ट्राध्यक्ष मुगाबे हाणें ६ मार्च, १९९२ दिसा राश्ट्रीय दुकळ अशें जाहीर करून परकी राश्ट्रांकडेन अन्न, दुडू, वखदां आनी हेर आदार मागलो. ही स्थिती कांय काळ उरिल्ल्यान देशाची अर्थीक स्थिती खालावली. मार्च १९९६ त तो राश्ट्राध्यक्ष म्हणून परतून वेंचून आयलो.

देशाची संसद हाउस ऑफ असॅब्ली आनी सिनेट अशी दोन घरांनी विभागिल्ली आसून, ती १९८०त आपणायल्ल्या संविधानाप्रमाण देशाचो कारभार चलयता. हाऊस ऑफ असॅब्लींतले कांय जागे अल्पसंख्येन आशिल्ल्या गोऱ्या लोकांखातीर राखून दवरल्यात. दोनूय घरांतल्या वांगड्यांक पांच वर्सांखातीर प्रौढ मतदान वा गुपीत मतदान पद्धतीन वेंचून काडटात. संसदेचे वांगडी राश्ट्राध्यक्षाक स वर्सांखातीर वेंचून काडटात. राश्ट्राध्यक्षाकडेन कार्यकारी सत्ता आसून, तो प्रधानमंत्री आनी ताच्या सल्ल्यान हेर मंत्र्यांक वेंचून काडटा.

देशांतली न्यायवेवस्था सर्वोच्च न्यायालय, उच्च न्यायालय आनी हेर न्यायालयां अशी आसून, ती मुखेलपणान रोमन होलंडी पद्धतीचेर आदारल्या. तिचेर दक्षिण आफ्रिकी न्यायपद्धतिचोय कांय प्रमाणांत प्रभाव पडला. मुखेल न्यायाधिशांची नेमणूक प्रधानमंत्र्याच्या सल्ल्यान राश्ट्राध्यक्ष करता.

**अर्थवेवस्था :** देशाची अर्थीक स्थिती समाधानकारक आसा. देशांत तरेकवार खनिजांचे सांठे खूब प्रमाणांत आसून, धातू आनी खनिज हांचे निर्यातीसावन देशाक सुमार ४० % येणावळ मेळटा. तांबें, निकॅल, भांगर, ॲसबेस्टोस, क्रोम, कोळसो आनी रुपें हीं हांगा सापडपी मुखेल खनिजां.

शेतवड हो देशांतलो मुखेल वेवसाय. देशांतले वट्ट येणावळींतलो सुमार अर्दो वांटो शेतकी उत्पन्नासावन मेळटा. देशांतले सुमार ७०% लोक शेतकी वेवसायांत गुंथल्यात. देशाक परकीय चलन मेळोवन दिवपी तंबाकू हें म्हत्वाचें पीक, जाल्यार अन्नधान्यांतलें मको हें म्हत्वाचें पीक. गंव, ज्वारी, मूग, कापूस, ऊंस, साकर, बीट, सोयाबीन, टॅपीओका, बटाट, केळीं, संत्रां, लिंबू आनी भाजीपालो हींय हांगा जावपी म्हत्वाचीं पिकां. शेतवडीक जोडून आशिल्लीं कुकडां आनी गोरवां पोसपाचो वेवसायय नेटान चलता. न्हंयांतल्यान नुस्तें मारप जाता. राज्यांतले येणावळीचेोय देशाचे येणावळीक हातभार लागता.

देशांतल्या उद्येगधंद्यांभितर खूब उदरगत जाल्ली आसा. धातुकाम, कपडो, अभियांत्रिकी, कागद, अन्नप्रक्रिया, सिगरेट, रसायनां, फर्निचर, साकर उत्पादन ह्या उद्येगांनी चड प्रगती जाल्ली आसा. वीज निर्मितीच्या मळार ऱ्होडेशिया स्वयंपूर्ण आसून, वट्ट वीज उत्पादनांतली ८४% जलविद्युत् आसून उरिल्ली वीज औश्णिक प्रकल्पांतल्यान मेळटा. देशाचे अर्थीक स्थितींत सुदारणा घडोवन हाडचेखातीर सरकारान आफ्रिका खंडांतल्या झांबिया, मोझांबीक, टांझानिया, आंगोल आनी स्वाझीलँड, तशेंच अमेरिकी, युरोपी आनी आशियायी देशांकडेन वेपारी संबंद जोडल्यात. आयात जावपी म्हालांत मुखेलपणान मशिनां, येरादारी साधनां आनी तांचे मेकळे भाग, रसायनां, पेट्रोल आनी ताचें उत्पादन आनी तयार वस्तुंचो आस्पाव जाता. जाल्यार निर्यात जावपी म्हालांत तंबाकू, कापूस आनी खनिजांचो आस्पाव जाता. झिंबाब्वे डॉलर हें देशाचें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारण :** येरादारीच्या मळार खूब सुदारणा जाल्ली आसा. १९८० सावन हो देश झँबीया आनी मोझँबीक हांचेकडेन रस्ते आनी लोहमार्गान जोडला. ग्वेरू ते हरारे मेरेनच्या रेल्वेमार्गाचें विद्युतीकरण जाल्लें आसा. रेल्वे येरादारीचेर नियंत्रण दवरपाखातीर नॅशनल रेल्वेस ऑफ झिंबाब्वे ह्या सरकारी निगमाची स्थापणूक केल्या. हरारे शारांत आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. देशांतलीं कांय मुखेल शारां हवाई मार्गान जोडल्यांत. उदकामार्गान येरादारी करचेखातीर ऱ्होडेशियेक मोझँबिकेंतल्या मापुतो आनी बेईरा बंदरांचो आदार घेवंचो पडटा. देशांत रेडिओ आनी दूरचित्रवाणीची बरी वेवस्था आसा. रेडिओवयल्यान इंग्लीश, शोन, एंडबीली, कालोंगा, व्हेंड, टाँगा, चेवा ह्या भाशेंतल्यान कार्यावळी सादर करतात. हरारे शारांत दूरचित्रवाणीचें मुखेल केंद्र, जाल्यार बुलवायो शारांत उपकेंद्र आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** ऱ्होडेशियेंतले चडशे लोक म्हळ्यार ९६% लोक काळ्या वर्णाचे आसात. ह्या लोकांची फुडें एंडबीली आनी शोन अशा दोन पंगडांनी विभागणी केल्ली आसा. हे लोक एंडबीली आनी शोन ह्यो बांतू भाशेच्यो पोटभासो उलयतात. वट्ट लोकसंख्येंत शोनांची संख्या ८० % जाल्यार एंडबीलींची १६ % आसा. शोन लोक मुखेलपणान देशाच्या उत्तर आनी उदेंत भागांत दिश्टी पडटात. गोरे लोक मुखेलपणान हायवॅल्ड प्रदेशांत रावतात. तांचेमदीं ब्रिटीश आनी हॉलंडी लोकांचें प्रमाण चड आसा. गोरे लोक चड करून इंग्लीश भास उलयतात. देशांत ॲंग्लिकन आनी रोमन कॅथलीक लोक चड प्रेसबायटेरियन, मेथडिस्ट, मुसलमान, हिंदू, ज्यू आनी बहाई लोकय थंय आसात. गांवगिऱ्या वाठारांनी रावपी बांतू लोकांचो वाडो १० ते ६० खोपीं मेळून जाता. तांचे खोंपींक काइआस अशें म्हण्टात. खोंपीचें पाखें मुखेलपणान तणाचेंच आसता. बांतू लोकांमदीं भोवपत्नीत्व प्रथा चालींत आसून ते दर एके बायलेक वेगळी खोंप उबारतात. शेतवड आनी गोरवां पोसप हो तांचो मुखेल वेवसाय. हालीं तेंपार काम करपाच्या निमतान खूबशे बांतू लोक

शारांनी वतात. गोऱ्या लोकांचो दर्जो खूब ऊंच आसून बांतू लोक तांचे चाकर म्हणून वावुरतात.

स्वातंत्र्या पयलीं आफ्रिकन लोकांखातीर वेगळयो शाळा आनी वेगळी शिक्षण पद्दत आशिल्ली. पूण १९८० सावन कायद्यान शिक्षणाचो दर्जो सगळयांक सारको दवरला मुळावें शिक्षण फुकट आसून, तांतूत शेतकीविशीं शिक्षण सक्तीचें आसा. स्वातंत्र्या उपरांत शिक्षणाचो प्रसार खूब जाल्लो आसून, हांगा कृषी, तांत्रिक, वैजकी सारकिल्ल्या उंचेल्या शिक्षणाची वेवस्था आसा. हरारे शारांत १९५५त झिंबाब्वे विद्यापिठाची स्थापना केल्या. इंग्लीश ही देशाची अधिकृत भास. चडशे लोक थळाव्यो भासो उलयतात. हरारे हें देशाचें राजपाटण आनी एक उद्देगीक शार. बूलवायो, मुतारे, ग्रेट झिंबाब्वे हीं देशांतलीं हेर म्हत्वाचीं शारां. विक्टोरिया घसघसो, करिबा धरण, ह्यांगे हांगाचें राखीव रान आनी राश्ट्रीय उद्यान हांगाचे ग्रेट झिंबाब्वेचे पुराणकाळीन अवशेश, आटोपो दोंगुल्ले वयलो वर्ल्ड्स व्ह्यू पॉयंट आनी थंयची सेसील ऱ्होड्साची कबर हीं देशांतलीं मुखेल पर्यटन स्थळां.

- कों. वि. सं. मं.

**लंगडी** : भुरग्यांचो एक खेळ. विशिश्ट खेळांमळार कांय खेळगड्यांनी धांवप आनी एका खेळगड्यान आपल्या एका पांयाचेर तोल सांवरीत दुसरो पांय दोडून फाटले वटेन उखलून, जे धांवतात तांची फाट धरून तांकां स्पर्श करप आनी आपुणूय बाद जावंचोना असो यत्न करप.

लंगडी हो खेळ सोंपो आसून, तो मुळांत मानवी हालचालींचेर आनी भुरग्यांचे उदरगतीच्या टप्प्यांचेर आदारीत आशिल्ल्यान संवसारांत सगळेकडेन खेळटात.

हो खेळ ७ ते १४ वर्सां पिरायेंतलीं भुरगीं खेळटात. सुरवातीक हो खेळ खेळपी भुरग्यांचे दोन सारके दोन पंगड करतात. दर एका पंगडांत ९ खेळगडे आसतात. हाचें खेळांगण चवकोनी वा वाटकुळेंय काडटात. भितर सरपाखातीर खेळामळाक खूण करतात. खेळपी गडी त्या चवकोनाचे शिमेभितर येतात. मागीर एका पंगडांतलो एक गडी एका पांयार लंगडत त्या चवकोनांत हेर धांवपी गड्यांक (आफुडपाचो) हात लावपाचो यत्न करता आनी धांवपी गडी ताचो स्पर्श जावचो न्हय हे पद्दतीन ताका चुकयत शिमेभितर धांवतात. लंगडी घालपी दोडिल्लो पांय जमनीक तेंकयनासतना जितल्या गड्यांक हात लायता तितले गडी बाद जातात. तेचपरी लंगडी घालप्यान कुडिचो खंयचोय भाग जमनीक तेंकयल्यार तो बाद जाता. ताच्या जाग्यार तांच्या पंगडांतलो दुसरो गडी लंगडी घालीत उरिल्ल्या गड्यांक बाद करता आनी धांवपी गडी शिमेच्याभायर गेल्यार तो बाद जाता. हो खेळ ७ ते १४ ह्या पिरायेच्या गटांतलीं भुरगीं खेळटात. हो खेळ मुळाव्या शाळांनी आनी आंतर शाळांतल्या सर्तींनी खेळटात. एकदां लंगडी आनी एकदां धांवती अशे दर एका पंगडाक दोन डाव मेळटात. एकेच फावटीं दोन वा तीन धांवपी खेळगडे शिमेभितर प्रवेश करतात.

लंगडी घालप्यान बाद केल्ल्या दर एका खेळगड्याखातीर त्या संघाक एक गूण मेळटा आनी ज्या संघान चडांत चड खेळगड्यांक बाद केल्यात तो संघ जैतिवंत थारता आनी बादाबाद जाल्यारूय पुराय खेळ परत खेळटात.

लंगडेचे लमाण लंगडी, सोलापूरी लंगडी अशे प्रकार आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**लंडन** : ग्रेट ब्रिटनची राजधानी, देशांतलें मुखेल शार, म्हत्वाचें वेपारी, राजकीय, उद्देगीक तशेंच संस्कृतीक केंद्र आनी संवसारांतलें पोरणें इतिहासीक शार. ग्रेटर लंडन ह्या नांवान वळखतल्या ह्या भागाचें क्षेत्रफळ १,५८० चौ. किमी. आसून ताची लोकसंख्या ६७,७५,२०० (१९८६) तशेंच 'सिटी' म्हणून वळखतल्या पोरन्या वाठाराचें क्षेत्रफळ फकत २.५ चौ. किमी. आसा. १ एप्रिल १९६५ ह्या वर्सा ग्रेटर लंडनाची निर्मिती जाली. हें शार देशाच्या आग्नेय वाठारांत थेम्स न्हंयेदेगेर वशिल्लें आसा. थेम्स न्हंये देगणांत वशिल्लो हो वाठार तांतया आकाराचो आसून ताका 'लंडन बेरिन' ह्या नांवान वळखतात.

लंडनाच्या नांवाविशीं वेगवेगळयो उपपत्ती आसात. हांगाचे मूळ रहिवासी लंडनर हाच्या नांवावयल्यान हाका लंडन हें नांव पडलां आसुंये; जाल्यार थेम्स न्हंये देगेर बांदिल्ल्या बंदराच्या लंडिनेम ह्या नांवावयल्यान लंडन हें नांव पडलां आसुंये. लॉफ्टीन हें उतर केल्टिक 'लायडीन' हाचेवयल्यान आयलां असो तर्क आसा. पोरने आयर्लंडी भाशेंतल्या लाँड म्हळयार रानटी, शूर ह्या उतरांपसून लंडन ह्या उतराचो उगम जालो अशें एकवॉलचें मत आसा.

हो वाठार चुन खडयेच्या फातरांनी तयार जाल्लो आसून ह्या फातरांमदीं इओसीन काळांतले घट्ट फातर, रेंव, गाळाची माती हांची भरसण मेळटा. जानेवारींत हांगाचें तापमान ३° सॅ. जाल्यार जुलयांत २२.५° सॅ. आसता. हांगा वर्सुकी सरासरी पावस ६० सेंमी. पडटा.

लंडनाच्या इतिहासाक रोमी काळासावन सुरवात जाता. सम्राट क्लॉडियसान सैन्यावरवीं इंग्लंडाचेर घुरी घाली. ताच्या मनांत कॅम्यलोड्यूनम (कोलचेस्टर) ही राजधानी करपाचें आशिल्लें. उपरांत ताणें थेम्स न्हंयेच्या वॉल्ब्रुक ह्या फांट्याचेर पूल बांदलो. पुलाचे उत्तरेक कॉर्नहिलचेर लंडनाची सुरवात जाली. कालांतरान कॉलचेस्टरचें म्हत्व उणें जालें आनी हें शार सगळया दळणवळणाचें म्हत्वाचें केंद्र जालें. इ.स. २०० च्या सुमाराक शाराभोंवतणी संरक्षक वणत काडिल्ली. रोमी काळांतले अवशेश अजुनूय हांगा पळोवंक मेळटात.

रोमी सैनिकांनी ४१० वर्सां ग्रेट ब्रिटन सोडलें. उपरांत जर्मन

टोळयांनी लंडनाचेर घुरी घाली. ८२५ च्या सुमारक लंडनाचेर ताबो आशिल्ल्या सॅक्सन राजांनी इंग्लंडच्या बऱ्याच भागाचेर नियंत्रण दवरून राज्य केलें. अँग्लो सॅक्सन काळांत ह्या शाराची वेपारी भरभराट जाली. वेसेक्सचो राजा एजबेर्क्टचो नातू आल्फ्रेड द ग्रेट (८४९ -९९) आनी डेन लोकांच्या झूज काळांत लंडन हें मुरवेल केंद्र जालें. आल्फ्रेडान ८८६ वर्सा लंडनाचेर ताबो मेळयलो. एडवर्ड द कन्फेसरान इकराव्या शतमानाच्या मध्यार एक राजवाडो, 'वॅस्टमिन्स्टर पॅलेस' आनी नॉर्मन चर्च 'वॅस्टमिन्स्टर ॲबी' बांदलें. शाराचे उदरगतीचें मुळावण १०६६ त नॉर्मन ड्यूक विल्यम द कॉंकरर हाचे घुरयेच्या वेळार घाल्लें. ताणें शाराचे संरक्षक वणटीभायर टावर ऑफ लंडनांतलो धवो मनोरो (वायट टॉवर) हो मध्यवर्ती भाग बांदलो. उपरांत दर एका राजाचे कारकिर्दींत ह्या टावरा भोंवतणीं तटबंदी आनी इमारती हांचें बांदकाम केलें. पयल्या जेम्साचे कारकिर्दींत (१६०३ - २५) हांगा राजाचें निवासस्थान आशिल्लें. हाचेभायर टांकसाळ, वेधशाळा, शस्त्रागार हींय ह्या भागांत आशिल्लीं. राजकीय कैद्यांकूय हांगाच दवरताले.

उपरांतच्या काळांत ह्या शारांत डॅनमार्की जर्मन, फ्लेमिश आनी इटालियन स्थायीक जाले. ११३६ त उज्यांत नश्ट जाल्ल्या लांकडी घरांच्या जाग्यार फातरी घरां आयलीं. दक्षिण इटालियेंनी थंय आपलें बस्तान बसयलें आनी जुदेव लोकांक धांवडावन घाले (१२९०). उपरांत वेपारांत ल्हव ल्हव वाड जावन वेपारी संघ प्रभावी जालो. स्थानीक स्वराज्य संस्था स्थापन करून राजाच्या शासनाजाग्यार लंडन शारावतीर महापौरपद निर्माण केलें. १३३२ त हांगा सामान्य परिशदेची स्थापना जाली.

ट्यूडर काळांत ह्या शाराचो बरोच विकास जालो. शारांतलो वॅस्ट एण्ड भागूय बरोच विकसीत जालो. लंडन आनी वॅस्टमिन्स्टर हीं शारां एकामेकांत विलीन जालीं. आठव्या हॅन्रीच्या मरणाउपरांत इंग्लंडची संसद वॅस्टमिन्स्टर पॅलेसींत भरूंक लागली. पयले एलिझाबेथ राणयेचे कारकिर्दींत (१५५८ - १६०३) लंडन हे संवसारांतलें पयल्या क्रमांकाचें वेपारी केंद्र जालें.

१६६५ - ६६ त प्लेगान हांगाच्या सुमार एक लाख नागरिकांचो बळी घेतलो. १६६६ वर्सा उज्यांत बरीच प्राणहानी जाली. ह्या वेळार सुमार ८०% शार जळून काबार जालें. फुडलीं कांय दशकां शाराचे फेर बांदावळींत गेलीं. सेंट पॉल कॅथीड्रल, केन्झिंग्टन राजवाडो, ग्रिनिच वेधशाळा आदी इमारती ह्या काळांत बांदल्यो तशेंच ह्या शतमानांत लॉयडस इन्शुरन्स कंपनी (१६८०), बँक ऑफ इंग्लंड (१६९४), लंडन स्टॉक एक्सचेंज (१७००) ह्या सारक्या नामनेच्या संस्थांची स्थापना जाली.

उद्देगीक क्रांतीउपरांत १८२० च्या सुमाराक हांगाचे लोकसंख्येंत बरीच वाड जाली (सुमार ११ लाख). हांगा कारखानेय स्थापन जाले. पूण लंडनाची मुरवेल भुमिका कारखान्यांतल्या उत्पादीत म्हालाची बाजारपेठ ही आशिल्ली. ताका लागून शाराच्या वॅस्ट एण्डाक गिरेस्तकाय पातळ्ळी, पूण शाराच्या इस्ट एण्ड भागांतली वसती मात गरिबीची आशिल्ली. कारखाने, गुदांव हातूंत काम करपी सर्वसामान्य मजूर गरीब आशिल्ले.

एकुणिसाव्या शतमानांत ह्या शारांत सुदारणा घडोवन हाडपाखातीर जायते उपक्रम हातांत घेतले. पुलीस दल (१८२९), गॅसाचे दिवे (१८१२), मोटी बस - ऑम्निबस (१८२९), लोहमार्ग (१८३९), पूल, भुंयारी रेल्वे (१८९०) ह्यो सुविधा, थळाव्या स्वराज्य संस्थांसंबंदीं कायदे (१८५५), १८७० चो शिक्षणीक कायदो, लंडन काउंटाची स्थापना आनी ताच्या प्रशासनाखातीर काउन्सिलाची स्थापना (१८८८) हाका लागून लंडनाची सगळया वटांनी प्रगती जाली.

विसाव्या शतमानांत दोनूय म्हाझुजांनी शाराची व्हड प्रमाणांत हानी जाली. जर्मन वायुसेनेच्या 'लंडन ब्लित्झ' हे मोहिमेंत सप्टेंबर १९४० - १९४१ ह्या काळांत बॉम उडयल्ल्यान चडशें लंडन नश्ट जालें.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत लंडनच्या नगर यवेजणेच्यो नव्यो येवजणी आंखल्यो. शारांतल्या पडिल्ल्या आनी नश्ट जाल्ल्या भागांची पुनर्बांदणी साऊथ बँक भागाचो विकास, लंडन शाराभोंवतणचो मेकळो पाचवो पटो आनी त्या पट्याभायर नव्या शाराची येवजण आनी आंखणी अशे चार मुरवेल भाग हे येवजणेंत आशिल्ले. मध्यवर्ती लंडनांत मळब चुमपी इमारती जाल्यो, जाल्यार पोरण्या लंडनाचो काउंटचो जागो बृहत्लंडनान घेतलो.

शाराची विभागणी ३२ बरोंमदीं केल्ली आसा. दर एका बरोची स्वतंत्र निर्वाचीत थळावी स्वराज्य संस्था आसून, महापौर हो तिचो मुरवेल आसता. हाचेभायर शाराच्या भागाचें प्रशासन कॉर्पोरेशन ऑफ सिटी ऑफ लंडन हें कोर्ट ऑफ सिटी काउन्सिलावरवीं करता. लॉर्ड मेयर हो ताचो मुरवेल प्रशासक.

शाराचे मध्यवर्ती लंडन आनी भायलें लंडन अशे दोन मुरवेल वांटे आसून मध्यवर्ती लंडनाचें शार, वॅस्ट एण्ड आनी साउथ बँक हे तीन उपविभाग जातात. शार आनी वॅस्ट एण्ड हे उपविभाग साउथ बँकेकडेन नवो लंडन ब्रीज, टाऊन ब्रीज आनी वॅस्टमिन्स्टर ब्रीज हांणी जोडिल्ले आसात.

शाराचो भाग हो लंडनाचो सगळयांत पोरणो आसलो तरी आयज थंय व्हड व्हड इमारती दिश्टी पडटात. ह्या भागांत बँको आनी वेपारी संस्थांचीं कार्यालयां आसात. तशेंच सेंट पॉल कॅथीड्रल, गिल्ड हॉल ह्यो इतिहासीक इमारती ह्याच वाठारांत आसात.

शाराच्या वॅस्ट एण्ड ह्या वाठारांत शासकीय कार्यालयां किरकोळ वेपाराचें केंद्र, आसून शारांतली गिरेस्त वस्ती हांगाच आसा. हांगाच्या पोरण्या वॅस्टमिन्स्टर शाराच्या वाठारांत संसदघर, प्रधानमंत्र्याचें निवासस्थान, बकिंगहॅमचो राजवाडो, वॅस्टमिन्स्टर ॲबी, वॅस्टमिन्स्टर पॅलेस, ट्रफॅल्गर स्क्वॅर, मॅडम तुसोचें मेणाचें वस्तुसंग्रहालय हीं

प्रेक्षणीय थळां आसात.

थेम्स न्हंयेचे दक्षिणेवटेन साउथ बँक ह्या वाठारांत लंडनचे काऊंटी हॉल (ग्रेटर लंडन काउन्सील मुख्यालय) आसा. तेभायर १९५१ त 'फॅस्टिव्हल ऑफ ब्रिटन' च्या निमतान आनी उपरांतूय बांदिल्लीं जायतीं प्रेक्षाघरां (रॉयल फॅस्टिव्हल हॉल, क्वीन एलिझाबेथ हॉल), कला दालनां (हेवर्ड आर्ट गॅलरी), नॅशनल फिल्म थिएटर, साउथवर्क, कॅथीड्रल आदींचो आस्पाव जाता.

लंडनांतले उद्देगधंदे मुखेलपणान पांचकडेन मेळटात. शारा भागाचे उदेंतेक आनी उत्तरेक सगळयांत पोरने उद्देगीक विभाग आसात. ह्या विभागांत वायट चॅपेल (कापड उद्देग), क्लर्कनवेल (घड्याळी आनी वस्ती तयार करप) हीं दोन मुखेल केंद्रां आसात. ग्रीनीचापसून थेम्स न्हंयेदेगेर उदेंतेकडेन पातळिल्ल्या उद्देगीक पट्यांत रसायनां आनी कागद हांचें उत्पादन जाता. लंडनाचे अस्तंतेकडले बरोंत अन्न उत्पादनां आनी घरगुती उपकरणां तयार करपाचे जायते कारखाने आसात.

जायत्या शतमानांसावन बंदर म्हणून लंडनाची नामना आसा. पयले एलिझाबेथचे कारकिर्दीत लंडन ब्रीज आनी टावर हांचेमदीं थेम्साचे उत्तर देगेर कांय बोट धक्के उबारिल्ले. उपरांत १६६३ त न्हंयेच्या दोनूय वटांनी बंदर धक्के बांदले. लंडन बंदराचे तीन भाग जातात - वॅस्ट इंडिया, मिलवॉल आनी पॉप्लर हो ऑयल ऑफ डॉग्स हांचेवयल्या गुदांवांचो एक गट, रॉयल व्हिक्टोरिया, रॉयल अल्बर्ट आनी किंग जॉर्ज द फिफ्थ गोदी हो दुसरो गट आनी टिलबरी डॉक्स हो तिसरो गट.

उपरांतच्या काळांत बंदराचें आधुनिकीकरण जातकच वेपारांतूय वाड जायत गेली. प्रमाणीत पेटी उदका येरादारी पद्दतीन (कंटेनरायझेशन शिपिंग) प्रमाणीत पेटयांवरवीं (कंटेनर्स) वेपार चड सोंपो जालो.

लंडनांतली 'ट्यूब' ही संवसारांतली सगळयांत व्हडली भुंयारी रेल्वे मानतात. हे रेल्वेची लांबाय सुमार १६० किमी. आसा. गॅटव्हिक आनी हिथ्रो ह्या दोन विमानतळांवयल्यान आंतरराश्ट्रीय विमान येरादारी चलता. शारांत उच्च शिक्षणामेरेनच्यो सगळयो सुविधा उपलब्ध आसून १८३६ त लंडन विद्यापिठाची स्थापना जाली.

ह्या शारांत ब्रिटीश म्युझीयम, ट्रफॅल्गर स्क्वॅर हायड पार्क, केन्झिंग्टन गार्डन्स, इन्स ऑफ कोर्ट, ग्रिनिच वेधशाळा, नॅशनल गॅलरी, लॉर्डस मैदान, रॉयल ॲल्बर्ट हॉल, सिंफनी ऑर्केस्ट्रा, लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स अँड पॉलिटिकल सायन्स ही नामनेची संस्था विंबल्डन टॅनिस सर्त, ब्रिटीश ब्रॉडकास्टिंग कॉर्पोरेशन (बीबीसी) ह्यो उल्लेख करपा सारकिल्यो गजाली आसात. संस्कृतीक नदरेन व्हड ग्रंथालयां आनी संग्रहालयां, नाटक घरां चलचित्रघरां, शिल्पकला आनी चित्रकला हांचीं दालनां हांकां लागून लंडनाक संस्कृतीक वैभव फावो जालें. वॉल्तेर, मॅझिनी, लॅनिन, वर्ड्सवर्थ, सॅम्युएल जॉन्सन, जॉन स्टो आनी एच्. जी. वॅल्स ह्या सारक्या नामनेच्या तत्त्वगिन्यानी साहित्यिकांक लंडनांत उपाट नामना मेळळी.

भारताचे लंडनाकडेन लागसल्ले संबंद आसात. संवसारीक नामनेचो कोहिनूर हिरो आनी भारतीय इतिहासाकडेन संबंदीत जायत्यो वस्तू हांगाच्या संग्रहालयांत आसात. इस्ट इंडिया कंपनीची स्थापना, स्वातंत्र्याखातीर वाटकुळें मेज परिशदो आनी भारताच्या स्वातंत्र्याची घोशणा आदी म्हत्वाच्यो घडणुको हांगाच घडल्यो. श्यामजीकृष्ण वर्मा, हरदयाळ, मदनलाल धिंग्रा, दादाभाई नवरोजी, लोकमान्य टिळक, स्वातंत्र्यवीर सावरकर ह्या सारक्या फुडाऱ्यांचे जिणेंत लंडनाक मानाची सुवात आसा. त्या काळांत भारतीयांक बॅरिस्टर जावपाखातीर वा आय्.सी.एस. ची परिक्षा दिवपाखातीर लंडनाकूच वचचें पडटालें.

- कों. वि. सं. मं.

**लंडन विद्यापीठ :** ग्रेट ब्रिटनांतलें एक नामनेचें विद्यापीठ. ताची स्थापणूक १८३६ वर्सा जाली. उंचेलें शिक्षण दिवपी पन्नासांपरस चड ब्रिटीश शिक्षणसंस्था ह्या विद्यापिठाकडेन संलग्न आशिल्ल्यान ताका महासंघाचें रूप फावो जालां. टॉमस कॅंबॅल ह्या कवीन १८२५ त विद्यापिठाची मागणी केल्ल्यान उदारमतवादी लोकांनी आनी अँग्लिकन चर्च विरोधकांनी सगळया थरांवयल्या लोकांक शिक्षण उपलब्ध जावचें अशें विद्यापीठ स्थापन केलें. पूण ह्या विद्यापिठान कॅथलिक, जुदेव आनी अँग्लीकनेतर विद्यार्थ्यांक प्रवेश दिल्ल्यान विद्यापिठाक शाही सनद न्हयकारली. १८३१ त किंग्ज महाविद्यालय, चर्च ऑफ इंग्लंडच्या अनुयायांच्या आदारान स्थापन केलें. पूण हीय सनद संमत जावपाक आडखळी आयल्यो. १८३६ वर्सा लंडन विद्यापीठ स्वता खंयचेच अध्यापनवर्ग घेवचेंना; पूण युनिव्हर्सिटी कॉलेज आनी किंग्ज कॉलेज ह्या दोन महाविद्यालयांतल्या विद्यार्थ्यांच्यो परिक्षा घेवन तांकां पदव्यो दितलें अशा प्रशासनाचो अधिकार लंडन विद्यापिठाक अधिकृतपणान मेळळो. विद्यापिठाचे १८३९ च्या पुरवणी सनदीप्रमाण ब्रिटीश साम्राज्यांतले खंयचेय उच्च शिक्षणसंस्थेंत अध्ययन घेतिल्ल्या विद्यार्थ्यांक लंडन विद्यापिठाच्या परिक्षांक बसप आनी पास जातकच त्या विद्यापिठांकडल्यान पदवी घेवंक मेळटा. ऑक्सफर्डांत शिकतल्या विद्यार्थ्यांक वा लंडनच्या वर्किंग मॅन्स कॉलेजांतल्यान शिक्षण घेवपी विद्यार्थ्यांक लंडन विद्यापिठाची पदवी घेवंक मेळपाक लागली. फुडें फुडें खंयचेय संस्थेंत नांव नोंदय नासतना विद्यार्थ्यांक खाजगी तरेन (बहिःस्थ) लंडन विद्यापिठाच्या परिक्षांक बसप आनी पदव्यो मेळोवप शक्य जालें.

रॉयल व्हॅटॅरिनरी (१७९१), बिर्कबेर्क (१८२३), इंपीरियल कॉलेज ऑफ सायन्स अँड टॅक्नोलॉजी (१९०७), बेडफर्ड (१८४९, बायलांखातीर); क्वीन एलिझाबॅथ (१८८१), वे (१८९४) हीं

महाविद्यालयां आनी लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स अँड पॉलिटिकल सायन्स (१८९५), स्कूल ऑफ फार्मसी (१८४२), द स्कूल ऑफ ओरिएंटल अँड आफ्रिकन स्टडीज (१९१६) आदी संस्था विद्यापिठाकडेन संलग्न आसात.

१९०० वर्सा विद्यापिठाक स्वताचे अभ्यासक्रम सुरू करपाचे अधिकार दिले. बायलाँक विद्यापिठाची पदवी दिवपी (१८७८), प्राध्यापिका म्हणून बायलांची नेमणूक करपी (१९१२) पयलें विद्यापीठ अशी लंडन विद्यापिठाची नामना आसा.

विधानसभेन निर्धारीत केल्ले प्रमाण विद्यापिठाकडेन संलग्न आशिल्ल्यो संस्था आनी खाशेल्यो शिक्षण संस्था हांकां आपल्यो कार्यावळी करपाखातीर विद्यापीठ निधींतल्यान पयशांपुरवण करतात. पूण पयशांविशीं निर्णय घेवंचेआदीं विधानसभेक नियामक मंडळ आनी कार्यकारी मंडळ ह्या नात्यान सगळया विद्यापिठीय शिक्षणीक प्रस्नांविशीं विचार करपी अधिसभेचो अहवाल वा शिफारस मतींत घेवंची पडटा. ते अधिसभेवरवींच विद्यापिठाचे प्राध्यापक आनी प्रपाठक हांच्यो नेमणुको जातात. धर्मविद्या, कला, विधी, संगीत, वैजकी, विज्ञान, अभियांत्रिकी, अर्थशास्त्र आनी शिक्षण ह्यो विद्यापिठाच्यो विद्याशाखा आसात.

विद्यापिठाच्या वांगडच्यांक युनिव्हर्सिटी ऑफ लंडन लायब्ररी (स्था. १८३८) ह्या ग्रंथालयाच्यो सगळयो सुविधा मेळटात. ह्या ग्रंथालयासकयलीं उपग्रंथालयां अशीं - गोल्डस्मिथ (अर्थशास्त्राविशींचें साहित्य); द क्विक मॅमोरिअल (शिक्षण आनी शिक्षण इतिहास); डर्निंग - लॉरॅन्स (एलिझाबॅथ सतराव्या शतमानांतले साहित्यग्रंथ); द हॅरी प्रायस ग्रंथालय (जादूविद्येचे साहित्यग्रंथ); द स्टर्लिंग (इंग्लीश साहित्यावयल्यो पयल्यो आवृत्त्यो आशिल्ले ग्रंथ); कार्लटन शॉर्टहॅंड, ब्रॉमहेड (लंडन शारावयले ग्रंथ); अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानाचेर पुस्तकां आशिल्ले ग्रंथ, फॅमिली वॅल्फॅर असोसिएशन ग्रंथालय, माल्कम मोर्ले रंगमाचयेच्या ग्रंथांचो संग्रह आशिल्लें ग्रंथालय हांचो आस्पाव जाता.

लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स अँड पॉलिटिकल सायन्स ही लंडन विद्यापिठाच्या खाशेलपणान नामनेक पाविल्ली संस्था १८९५ वर्सा स्थापन जाली. हे संस्थेचो संचालक इंद्रवदन गोरधनभाई पटेल हो भारतीय अर्थशास्त्रज्ञ आशिल्लो. हे संस्थेवरवीं हीं मासिकां उजवाडाक येतात. एलएस ई क्वार्टर्ली इकॉनॉमिका; द ब्रिटीश जर्नल ऑफ सोशिऑलॉजी; ब्रिटीश जर्नल ऑफ इंडस्ट्रियल रिलेशन्स; जर्नल ऑफ ट्रान्सपोर्ट इकॉनॉमिक्स अँड पॉलिसी; रिप्रिंट्स ऑफ स्कार्स वर्क्स ऑन पॉलिटिकल इकॉनॉमी; मोनो ग्राफ्स ऑन सोशल अँथ्रॉपॉलॉजी; मिलेनियम जर्नल ऑफ इंटरनॅशनल स्टडीज; ग्रेटर लंडन पेपर्स; जिओग्राफिकल पेपर्स; ओकेजनल पेपर्स ऑन सोशल ॲडमिनिस्ट्रेशन बी.

हे संस्थेखाला जे विभाग स्वतंत्रपणान काम करतात ते अशेः बिझिनेस हिस्टरी युनिट (१९७८) : इंपीरियल कॉलेज ऑफ सायन्स अँड टॅक्नोलोजी ह्या महाविद्यालयाच्या आदारान वेवसाय - इतिहासाक, तंत्रविद्येची दिशा आनी प्रगती मतींत घेवन, संशोधनाची जोड दिवपाचें कार्य. (२) सँटर इन इकॉनॉमिक कॉप्युटिंग (१९८३): वेवस्थापन आनी अर्थीक गृहीतांचें विश्लेषण हांचो विकासः (३) सँटर फॉर लेबर इकोनॉमिक्स (१९७४): कश्ट अर्थशास्त्र, (४) सँटर फॉर इंटरनॅशनल स्टडिस (१९६७): आंतरराश्ट्रीय अभ्यासांत चड करून सोविएत चीनी आनी युरोपी अभ्यासांतलें संशोधन (५) निर्णय विश्लेशण विभाग (१९८३) : मानवी निर्णयाविशींचें शास्त्रीय गिन्यान उपलब्ध करप. (६) ग्रेटर लंडन ग्रुप (१९५८) : बृहद लंडन आनी आग्नेय विभाग हेविशींच्या अडचणींविशीं संशोधन करप आनी त्या कार्याचो प्रसार करप. लंडन अर्थशास्त्र संस्थेच्या जनाकिकी हे पदव्युत्तर अभ्यास कार्यावळींत सहयोग दिवप. (९) आंतरराश्ट्रीय साधनसंपत्ती कार्यावळ (१९८४): संवसारीक सैमीक साधनसंपत्तीच्या विकासांत येवपी अडचणी हेविशीं अन्वेशण करप.

हे संस्थेच्या ब्रिटीश लायब्ररी ऑफ पोलिटिकल अँड इकॉनॉमिक सायन्स (१८९६) ह्या ग्रंथालयांत अर्थशास्त्र, राज्यशास्त्र, समाजशास्त्र, इतिहास, भुगोल, आंतरराश्ट्रीय विधी ह्या विशयांचेर ८.३० लाखांवयर ग्रंथ तशेंच वैधानिक आनी प्रशासकीय अहवाल, कार्यालयीन कागदपत्रांसंबंदींचे म्हत्वाचे दस्त ऐवज आनी हस्तलिखितां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**लंबाडी नाच :** लंबाडी वा बंजारी हे हेडगे आदिवासी जमातीचो लोकनाच. हाका लमाणी नाचूय म्हण्टात. लग्नासारकिल्या मंगल प्रसंगावेळार वा दसरो, होळी ह्या सणां वेळार हे नाच करपाची चाल आसा. हे नाच दादले - बायलांचे अशे भरसल्ल्या स्वरुपाचे आसले तरी तातूंत बायलांचेंच प्रमाण चड आसात. हो नाच वाटकुळे उबे रावन करतात. मर्दी उजो पेटयतात. केन्नाकेन्नाय ह्या वाटकुळांत रती आनी मदन हांचे मृत्तिकेच्या प्रतिमांची स्थापना करून तांची पुजा करतात.

लंबाडी नाचाचें मुखेल आकर्शण म्हळयार हातूंत बायलांची न्हेसपाची पद्दत खाशेली तशी ओडलायणी आसता. घागरो, चोळी, ओडणी असो भेस त्यो करतात. ह्या वस्त्रांचे रंग तांबडे, हळदुवे अशे भडक आसतात. तांचेर कंवच्यांची, हारशांच्या भिंगांची नाजूक कलाकुसर केल्ली आसता. नर्तिकेच्या गळयांत चित्रविचित्र मणयांच्यो माळो आसतात. नाचाच्यो हालचाली नाजूक आनी ओडलायण्यो आसतात. हो नाच संथ लयीन करतात, तेखातीर तातूंत जोशापरस मार्दव चड आसता. पितूळचो घडो घेवन ताचेर विशिश्ट आघात करून त्या तालाचेर ओडलायणो नाच करप जाता.

धोलक्याच्या तालार नाचपी ताळयो वाजोवन साथ दीत,

केन्नाकेन्नाय कर्कश सुरांत किळचावन, दावे - उजवे वटेन धोलत वाटकुळयो घुंवन फेर धरून नाच करतात.

नाचावांगडा गावपी लमाणी पदांभितर, जिणेंतलीं सुखदुख्खां परिणामकारक रितीन चित्रीत केल्लीं आसतात.

हलगी, धोलकें, तासो आनी झांज हीं ह्या नाचाचीं मुखेल वाद्यां.

मुखेलपणान हेडगे जमातींचो हो नाच आशिल्ल्यान ताचेर वेगवेगळया प्रांतांचे संस्कार जाल्यात. ताका लागून ताचें स्वरूप प्रदेशाप्रमाण वेगवेगळें मेळटा. आंध्र प्रदेश, गुजरात, कर्नाटक, महाराष्ट्र ह्या प्रदेशांनी ह्या नाचाचीं विंगड विंगड रुपां दिश्टी पडटात.

- कों. वि. सं. मं.

**ल :** देवनागरी वर्णमाळेंतलें अठ्ठाविसावें व्यंजन. हाची पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनारच्या लेखांत, दुसरी कुशाणवंशी राजांच्या काळांतल्या मथुरेच्या लेखांत (इ.स. चें पयलें आनी दुसरें शतमान), तिसरी झालारपाटणच्या राजा दुर्गगणाच्या लेखांत (इ.स. ६८९) आनी निमाणी ओरिया लेखांत (इ.स. १२०८) दिश्टी पडटा.



**'ल' च्या रुपाचो विकासक्रम.**

कामधेनुतंत्रांत ह्या वर्णाचें स्वरूप वर्णिलां तें अशें -

लकारं चञ्चलापाङ्गि कुण्डलीत्रयसंयुतम् ।
पीतविद्युल्लताकारं सर्वरत्नप्रदायकम् ।।
पञ्चदेवमयं वर्णं पञ्चप्राणमयं सदा ।
त्रिशक्तिसहितं वर्णं त्रिबिन्दुसहितं सदा ।
आत्मादितत्त्वसहितं हृदि भावय पार्वती ।

**अर्थ :** हे चंचलापांगी पार्वती, ल हो वर्ण कुंडलीत्रययुक्त, पीतविद्युल्लताकार, सर्वरत्नप्रदायक, पंचदेवमय, पंचप्राणमय आनी त्रिशक्ती, त्रिबिंदू आनी आत्मादी तत्त्व हांणी युक्त आसा. तूं ताचें मनन, चिंतन कर.

दांत हें हाचें उच्चारणस्थान.

- कों. वि. सं. मं.

**लक्झॅम्बर्ग :** (ग्रँड ड्युक ऑफ लक्झॅम्बर्ग) अस्तंत युरोपांतलो ड्यूक राजवटीखाल आशिल्लो एक स्वतंत्र देश. क्षेत्रफळ २५८६ चौ. किमी. लोकसंख्या ४२५ (१९९१). विस्तार ४९°२६'५२'' ते ५०°१०'५८'' उत्तर अक्षांश आनी ५°४४'१०'' ते ६°३१'५३'' उदेंत रेखांश. देशाचो आकार सादारणपणान त्रिकोनीसो आसा. ह्या ल्हान देशाचे उदेंतेक जर्मनी, दक्षिणेक फ्रांस, अस्तंतेक आनी उत्तरेक बोल्जियम देश आसात.

**भूंयवर्णन :** लक्झॅम्बर्ग हो दक्षिणेकडलो फ्रांसांतलो लॉरेन सड्याचो आनी उत्तरेकडलो बेल्जियमांतलो आर्देन पर्वतावळींचो रुंदसो भाग. भुगोलीक रचणुकेप्रमाण देशाचे उत्तरेकडचो ओएस्लिंग आनी दक्षिणेकडचो बॉन पेस अशे दोन वांटे केल्ले आसात. हातूंतलो ओएस्लिंग हो ऊंच दोंगुल्ल्यांचो भाग आसून ताणें देशाचो सुमार ३३% भाग रेवाडला. दर्यापांवड्यासावन ताची सरासरी उंचाय ४०० ते ४९० मिटर आसा. हो भाग दाट रानांनी भरला. बर्गप्लाट्झ हें देशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. दक्षिणेकडल्या बॉन पेस ह्या प्रदेशाची दर्यापांवड्यासावन सरासरी उंचाय २७५ मी. स्यूर ही देशांतली मुखेल न्हंय. आलझेट, ऊर, क्लेर्फ, विल्टस, ईश, आटेअर, व्हॉर्क, मोझेल, झीर ह्योय देशांतल्यान व्हांवपी म्हत्वाच्यो न्हंयो. लक्झॅम्बर्गाचें हवामान सौम्य आनी समशीतोश्ण. हांगाचें वर्सुकी सरासरी तापमान ८° सॅ. जुलय म्हयन्यांत तें चडांत चड १९° सॅ. मेरेन वयर वता, जाल्यार जानेवारींत तें ३° सॅ. मेरेन सकयल देंवता. आर्देनच्या दोंगुल्ल्यांचेर शिंया दिसांनी हिम पडटा. हांगा वर्सुकी पावसाचें प्रमाण ५१ सेंमी. आसून दोंगरी भागांत चड पावस पडटा.

देशाच्या उत्तर भागांत दाट रानां आसून तातूंत मुखेलपणान पानझडी रूख चड आसात. चड ऊंच भागांत सुचीपर्णी रुखांचें प्रमाण चड जाल्यार हेर भागांत ल्हान-व्हड झोंपां आसात. हांगाच्या रानांनी मुखेलपणान पायन, चॅस्टनट, स्प्रूस, ओक, लिंडेन, एल्म, बीच हे रूख मेळटात. हांगाच्या रानांनी मुखेलपणान रो हरण आनी रानदुकरांचें प्रमाण चड आसा. देशाच्या सगळया भागांनी वेगवेगळया प्रकारांचीं सुकणीं दिश्टी पडटात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** लक्झॅम्बर्ग प्रदेशांत इ.स. आदीं पयल्या शेंकड्यांत रोमी लोकांचो शेक आसलो. उपरांत तांणी पांचव्या शेंकड्यामेरेन थंय आपली सत्ता गाजयली. पांचव्या शेंकड्यांत फ्रँक्स लोकांनी ताचेर जैत मेळोवन, तो शार्लमेनच्या फ्रांसेझ साम्राज्याक जोडलो. ८४३ त ह्या भागाचो पयल्या लोथराच्या राज्यांत आनी उपरांत लॉथरिंजच्या इस्ट फ्रँकीश राज्यांत आस्पाव केलो. रोमी लोकांनी ह्या भागांतल्या आलझेट न्हंयेदेगेर उबारिल्लो लुसिलिनबर्हुक किल्लो एप्रिल ९६३ त आर्देन प्रदेशाचो काउंट सिगफ्रीड हाणें विकतो घेतलो. उपरांत त्या किल्ल्याक लक्झॅम्बर्ग अशें म्हणपाक लागले. इकराव्या शेंकड्यांत 'कोनराड' ह्या सीगफ्रीडाच्या वारसान काउंट ऑफ लक्झेम्बर्ग अशें पयलेच खेपे नांव घेतलें. सिगफ्रीडाचे वंशावळींत फुडें वारस नाशिल्ल्यान ११३६ त जर्मन सम्राटान हो प्रदेश चवथ्या हॅन्रीच्या ताब्यांत दिलो. कांय दिसांभितरूच ताची नामुराचो काउंट म्हणून नेमणूक केली. ह्या प्रदेशाचेर एका फाटल्यान एक अशा कुशळ राज्यकर्त्यांची नेमणूक केल्ल्यान त्या प्रदेशाचो विस्तार वाडत गेलो. लक्झॅम्बर्गाचो काउंट सातवो हॅन्री १३०८ त रोमी सम्राट जाल्ल्यान

ह्या घराण्याचें म्हत्व खूब वाडलें. उपरांत ताचो चलो काउंट जॉन हाणें राज्याचो खूब विस्तार केलो. उत्तर फ्रांसांत क्रेसीच्या शंबर वर्सुकी झुजांत ताका मरण आयलें. फुडें तो राश्ट्रनेतो म्हणून प्रसिद्द जालो. ताच्या तेंपार लक्झॅम्बर्गाक ड्यूक राज्य म्हणून दर्जो मेळ्ळो. १४४३ त लक्झॅम्बर्ग राज्य बर्गंडीचो ड्यूक फिलिप द गुड हाच्या, जाल्यार १४८२ त हॅप्सबर्ग घराण्याच्या शेकातळा गेलें. उपरांत ह्या भागाचेर स्पेन (१५०६ - १७१४), ऑस्ट्रिया (१७१४ - ९५) आनी फ्रांस (१७९५ - १८१५) ह्या देशांचो शेक आशिल्लो. १८१५ त व्हिएन्ना काँग्रेसीचे कबलातीप्रमाण मोझेल, स्यूर आनी ऊर न्हंयांच्या उदेंतेकडचो लक्झॅम्बर्गाचो प्रदेश प्रशियेक दिवन, उरिल्लो प्रदेश नॅदर्लंड्स राजाच्या शेकातळा एक स्वतंत्र ड्यूक राज्य म्हणून जाहीर केलें. उपरांतचीं ३०० वर्सां सुमार नॅदर्लंड्साचो राजा होच लक्झॅम्बर्गाचो ड्यूक म्हणून वावुरतालो. १८३९ त लक्झॅम्बर्गाचो अर्दापरस चड भाग बेल्जियमान हातासलो. १८६७ त जाल्ले लंडन परिशदेन लक्झॅम्बर्ग स्वतंत्र आनी तटस्थ राज्य म्हणून जाहीर केलें. १८९० त नॅदर्लंड्साचे गादयेर व्हिल्हेल्मीना राणी आयली. पूण लक्झॅम्बर्गान राणयेचें शासन अमान्य केलें. हाका लागून राज्याचो कारभार नॅसॉचो ड्यूक ॲडॉल्फ हाच्या हातांत गेलो. १९०५ त ह्याच घराण्यांतलो चवथो विल्यम आनी १९१२ त मारीया आदेलायद हांणी ड्यूक म्हणून कारभार चलयलो. पयल्या म्हाझुजांत जर्मन सैन्यान घुरी घालून हो प्रदेश आपल्या शेकातळा व्हेलो. झूज काबार जाले उपरांत १९१९ त आदेलायदची भयण शार्लट ही ह्या प्रदेशाची ग्रँड डचॅस जाली. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत १९४० त जर्मनीन परतून घुरी घालून लक्झॅम्बर्ग आपल्या शेकातळा व्हेलो. पूण ह्या वेळार ड्यूक घराणें आनी हेर सरकारी अधिकारी लंडनांत पळून वचून, थंयच तांणी लक्झॅम्बर्ग सरकाराची स्थापना केली. १९४२ त नाझी सरकारान लक्झॅम्बर्गाच्या नागरिकांक सक्तीन नाझी सैन्यांत भरती केले. ह्या काळांत देशाचें खूब नुकसान जालें. सप्टेंबर १९४४ त दोस्त राश्ट्रांनी नाझी सैन्याक हारोवन लक्झॅम्बर्गाची सुटका केली. गादयेचो वारस म्हणून ग्रँड डचॅस शार्लटाचो चलो जीन हाची १९६१त नेमणूक केली.

देशाचो राज्यकारभार १९६८ त आपणायल्ले घटनेप्रमाण चलता. पूण तातूंत खूब रवेपे कांय म्हत्वाचे बदल केल्ले आसात. देशाच्या संविधानाप्रमाण देशांत परंपरागत राजेशाय आसून, हो अधिकार नॅसॉ - व्हिल्बर्ग राजघराण्याकडेन वारस हक्कान दिल्लो आसा. देशाची पुराय सत्ता ड्युकाच्या हातांत आसून सगळे निर्णय ताच्याच सल्ल्यान घेतात. पूण प्रत्यक्षांत सरकारी कारभार संसदीय लोकशाय पद्दतीन चलता. देशांत एक सदनी संसद आसून, तिचे ६४ वांगडी आशिल्ले. तांकां भौशिक मतदानान पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात. मंडळ रद्द करपाचें अधिकार संसदेक दिल्ले आसात. कार्यकारी सत्ता चालींत हाडपाक ग्रँड ड्यूक प्रधानमंत्र्याची आनी ताच्या सल्ल्यान हेर मंत्र्यांची नेमणूक करता. राज्यकारभार वेवस्थीत चलचो म्हणून देशाचे १२ विभाग केल्ले आसात.

देशाची न्यायवेवस्था मुखेलपणान नेपोलियनाचे विधिसंहितेचेर आदारल्या. देशांत जस्टिस ऑफ द पीस, डिस्ट्रिक्ट कोर्ट आनी सुपीरिअर कोर्ट ऑफ जस्टिस अशे तीन भाग केल्ले आसात. न्यायाधिशांची नेमणूक ग्रँड ड्यूक करता. १९७९ सावन मरणाची ख्यास्त रद्द केल्या.

**अर्थीक स्थिती :** देशाची अर्थवेवस्था मुखेलपणान उद्देगधंद्याचेर आदारल्या. शेतकी प्रमाण दिसानदीस उणें जायत आसा. शेतकी वेवसायाचो राश्ट्रीय उत्पन्नांत फकत ६% वांटो आसा. ह्या उद्देगांत वावुरपी कामगारांचोय आंकडो खूब उणो आसा. सद्या शेतकी मळार आधुनिकीकरण जाल्लें आसून, मुखेलपणान मिश्र पद्दतीन पिकां काडटात. बटाट, सातू, ओट, गंव, मको हीं हांगा जावपी म्हत्वाचीं पिकां. दूद आनी मांस उत्पादनांनी खूब वाड जाल्ली आसा.

लक्झॅम्बर्गाचो मुखेल उद्देगीक राश्ट्रांभितर आस्पाव जाता. फाटल्या कांय वर्सांसावन देशाची अर्थवेवस्था मुखेलपणान खणकाम, लोखण आनी तिख्या उद्देगांचेर आदारल्या. पूण सद्या युरोपाच्या हेर देशांनी ह्या उद्देगांची खूब वाड जाल्ल्यान लक्झॅम्बर्गांत ताचें म्हत्व खूब उणें जालां. हालींसरा अमेरिकन भोवराश्ट्रीय कंपनींच्या आदारान देशांत रबर, रसायनां आनी रसायनीक उत्पादनां हांचे कारखाने उबारल्यात. शिमीट, लुगट, वायन आनी सिगरेट ह्याय उद्देगांक म्हत्व प्राप्त जालां. देशांतल्या अन्नप्रक्रिया उद्देगांक संवसारांत नामना मेळ्ळया. युरोपी अर्थीक समुदायाकडेन देशाचे संबंद घट जाल्ल्यान, लक्झॅम्बर्गाचे अर्थवेवस्थेक व्हड आदार मेळ्ळा.

देशाचे वेपारी संबंद मुखेलपणान बेल्जियम, जर्मनी आनी फ्रांस देशांकडेन आसात. आयात म्हालांत मुखेलपणान खनीज उत्पादनां, वेगवेगळी यंत्रसामुग्री, रसायनां, येरादारी साधनां, कोळसो, कापूस, स्वयंचलीत वाहनां, शेतकी आवतां हांचो, जाल्यार निर्यात म्हालांत लोखणधातू, प्लास्टिक, रबर हांचो आस्पाव जाता. द बँक नॅशनल द बेल्जिक ही देशाची मध्यवर्ती बँक. फ्रँक हें देशाचें अधिकृत चलन. पर्यटन हो देशाचो वाडटो उद्देग.

**येरादारी आनी संचारण :** येरादारी वेवस्था बऱ्या दर्ज्याची आसा. चडशीं शारां एकमेकांकडेन बऱ्या रस्त्यांनी जोडिल्लीं आसून कांय उद्देगीक शारांनी जड वाहनांखातीर स्वतंत्र मार्ग आसात. लोखणा मार्गाचीय वेवस्था बरी आसा. कांय लोखणा मार्गांचें विद्युतीकरण जाल्लें आसा. रेल्वेयंत्रणेचेर फ्रँको बेल्जियम लक्झॅम्बर्ग कॉर्पोरेशनाचें नियंत्रण आसता. लक्झॅम्बर्ग शारालागीं आशिल्लो फिंडेल हो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ. मोझेल न्हंयेंतल्यान उद्देगधंद्यांच्या म्हालाची येरादारी जाता. ही न्हंय ऱ्हायन न्हंयेकडेन खारजावरवीं जोडल्या.

देशांत दूरध्वनी, दूरलेखा, टपाल, रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी हांचीय बरी वेवस्था आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** लोकसंख्यावाडीचें प्रमाण खूब उणें. चडशे लोक देशाच्या दक्षिण भागांत रावतात. लोकांचें राहणीमान उच्च दर्ज्याचें. देशांतले चडशे लोक शारांनी रावतात. देशांत धर्मीक स्वातंत्र्य आसून, रोमन कॅथलीक, प्रॉटॅस्टंट, जुदेव आनी हेर धर्मांचे लोक थंय आसात. लेटसबुर्झ ही देशांतल्या चडशा लोकांची उलोवपाची भास. ही भास जर्मन - मोझेल - फ्रँकोनियन भाशेसावन अस्तित्वांत आयल्या. फ्रांसेझ भाशेचो मुखेलपणान प्रशासकीय भास म्हणून वापर जाता आनी जर्मन भाशेचो वापर वेपार - वाणिज्य आनी नेमाळयांखातीर जाता. देशांतल्या वेगवेगळया भाशांनी थोडो - भोव फरक जाणवता. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याकसावन लेटसबुर्झ भाशेचो साहित्याखातीर वापर जावपाक लागलो. लक्झॅम्बर्गाचें मुळावें वाङ्मय फ्रांसेझ आनी जर्मन भाशांनी आसा. शिक्षणाच्या मळार खूब उदरगत जाल्या. मुळावें शिक्षण फुकट आसून ६ ते १५ वर्सां पिरायेमदल्या भुरग्यांक तें सक्तीचें आसा. माध्यमिक शिक्षण फ्रांसेझ आनी जर्मन भाशांतल्यान दितात. तंत्रीक आनी वेवसायीक शिक्षण दिवपी खूब खाजगी शाळा आसात. नॅशनल लायब्ररी हें देशांतलें सगळयांत व्हड ग्रंथालय.

- कों. वि. सं. मं.

**लखनौ :** उत्तर प्रदेश राज्याची राजधानी आनी लखनौ जिल्ह्याचें मुखेल ठिकाण. लोकसंख्या ८,९५,७२१ (१९८१). नवी दिल्लीचे आग्नेयेक ४३५ किमी. आनी कानपूरचे इशान्येक ७७ किमी. अंतराचेर गोमती न्हंयेचे उजवे देगेचेर हें वसलां.

ह्या शाराचे स्थापनेविशीं कांय आख्यायिका प्रचलीत आसात. एके आख्यायिकेप्रमाण रामाचो भाव लक्ष्मण हाचो जल्म हांगा जालो आनी ताणेंच ह्या वाठाराचो विस्तार केलो. तेन्ना ह्या प्रदेशाचें नांव 'लक्ष्मणपुरा' अशें आशिल्लें. फुडें ताचेंच अपभ्रश्ट रूप 'लखन' वयल्यान 'लखनऊ' जालें. लखनौ ह्या नांवाफाटल्यान आनिकूय एक कथा सांगतात. ती अशी-

प्रल्हादाचो बापूय हिरण्यकश्यपूची हरदोई ही राजधानी आशिल्ली. विष्णून नरसिंहाचें रूप घेवन हिरण्यकश्यपू ह्या दुश्ट राजाक मारून प्रल्हादाक वाटायलो. मागीर ताणें आपलीं नाखटां आनी हात गोमती न्हंयेंत धुवन घेतले. हाचेवयल्यान ह्या प्रदेशाक 'नखलव' अशें नांव पडलें आनी ताचेंच फुडें 'लखनौ' अशें भ्रश्ट रूप जालें.

इकराव्या आनी बाराव्या शेंकड्यांत ह्या प्रदेशांत राजपूत येवन रावले. जौनपूर राजाच्या शेकातळा आशिल्लें हें शार बाबरान १५२८ त जिकून घेतलें. ताचो नातू अकबर हाचेय कारकिर्दींत लखनौ हो अयोध्या प्रांताचो एक वांटो जालो. १७७५ त अयोध्येचो नबाब आसफउद्दौला हाणें आपली राजधानी फैजापूरच्यान हांगा हाडली आनी हें शार सोबीत केलें. १७७५ ते १८५६ मेरेन लखनौ ही अवध (अयोध्या) संस्थानाची राजधानी आशिल्ली. १८५७ च्या उठावाउपरांत लखनौ इंग्लिशांच्या ताब्यांत गेलें.

हें शार म्हणजे एक म्हत्वाचें उद्देगीक केंद्र. हांगा किनखाबी वस्त्रां, रुप्याच्यो वस्तू, तांबें - पितूळ हांचीं आयदनां आनी उपकरणां, दुर्बिणी आनी सुक्षीमदर्शक यंत्रां, सिगार आनी तंबाकू, वीज उपकरणां आनी वखदी साहित्य, सुगंधी द्रव्यां आनी अत्तरां, गालीचे आनी शेंदन्यो, रसायनां, जोती, कागद हांच्या उत्पादनाचे कारखाने आसून कापूस आनी तेलबियो हांच्यो गिरण्यो, साकर कारखाने, व्हडल्यो रेल्वे कर्मशाळा आनी प्रशीतन संयंत्रां आसात. हांगाच्या हस्तोद्योगांत चामड्याच्यो वस्तू भरतकामाच्या कलाकुसरीच्यो वस्तू आनी नमुने आनी मृत्स्नाशिल्पां जायत्या प्रमाणांत मेळटात. लखनौच्या पान - सुपारी, तंबाकू आनी चंदन हांचें खाशेलेपण आसा. हांगाचें जरकाम आनी रेशमी वस्त्रां, रुप्याच्यो वस्ती तशेंच कंवचेचीं कांकणां आनी अत्तरां हांची नामना आसा.

लखनौ हें एक नामनेचें शिक्षणीक केंद्र. हांगा पन्नासांवयर माध्यमिक विद्यालयां आनी २४ महाविद्यालयां आसात. देशांतलें नामनेचें वैजकी महाविद्यालय (किंग जॉर्ज्स वैजकी महाविद्यालय, स्थापना : १९११) ह्याच शारांत आसा. लखनौ विद्यापिठाचें ग्रंथालय (स्था. १९२१) 'रवींद्रनाथ टागोर ग्रंथालय' ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. हांगा भारतीय संगिताचें शिक्षण दिवपी 'भातखंडे भारतीय संगीत विश्वविद्यालय' दारडल - नाद्वा ही मुसलमानी धर्मशास्त्राची अध्ययनसंस्था, केंद्रीय वखदी संशोधन संस्था, पुरावनस्पतीविज्ञान संस्था, बांदकाम संशोधन संस्था, भौशिक ग्रंथालय, वस्तुसंग्रहालयां सारकिल्योय संस्था आसात.

लखनौचे संस्कृतीक जिणेन आपलें अशें एक खाशेलेपण तिगोवन दवरलां. नबाबांच्या काळापसून लखनौचे मुशायरे आनी जलशे नामनेक पावल्यात. शास्त्रीय संगितांतली 'दादरा' ही कलाकृती एक लखनौची देण. कथ्थक नृत्यशैलीचें 'लखनौ घराणें' प्रसिद्द आसा. तशेंच ठुमरी गायकीच्या पांच ढंगांतलो 'लखनौ ढंग' सादर करपी सनदपिया, कदरपिया, अख्तरपिया, बिंदादीन महाराज, कालिका प्रसाद, बेगम अख्तर, ललनपिया हे गायक - गायिका; लखनौच्या कथ्थक घराण्याचे प्रतिनिधी श्रीधर महापात्र, मुहम्मद हनीफ, कादंबरीसम्राट मुन्शी प्रेमचंद, महाकवी 'निराला', अमृतलाल नागर, आधुनिक युगाचे प्रथितयश साहित्यीक यशपाल, भगवतीचरण वर्मा हांकां लखनौचे किर्तीस्तंभ मानतात.

हांगा जायत्यो पळोवपासारक्यो वास्तू आसात. मोती महाल, मुबारक मंझिल, शहा मंझिल, बडा इमामबारा, छोटा इमामबारा, गोमतीच्या समांतर मार्गावयली रेझिडँसी ह्यो हांगाच्यो कांय नामनेच्यो

कलावास्तू. तशेंच हांगाची बाग गुलाबांखातीर प्रसिद्द आसा.



लखनौचो इतिहासीक नामनेचो रूमी दरवाजो

लखनौंत जायतीं ओडलायणीं उद्यानां आसात. थंयचो सिकंदर बगीचो पळोवपासारको. बनारसी उद्यानांत 'प्रिन्स ऑफ वेल्स' नांवाचें प्राणिसंग्रहालय आसा. 'दिलखुश बाग' ही पयलीं अयोध्येच्या नबाबांचें मृगयाक्षेत्र आशिल्लें. थंय एक किल्लोय बांदिल्लो आसा. हांचे भायर ह्या शारांत छतर मंझिल, रुमी दरवाजो, नासिरुद्दीनची वेधशाळा,जामा मशीद ह्यो प्रेक्षणीय वास्तू आसात. आधुनिक इमारतींत राजस्थानी शैलींत बांदिल्लें लखनौ रेल्वे स्थानक, विधान भवन हांचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**लखनौ कबलात :** डिसेंबर १९१६ त भारतीय कॉँग्रेस आनी मुस्लीम लीग हांचेमदीं लखनौ शारांत जाल्ली कबलात. १८८५ त भारतीय कॉँग्रेसीची स्थापणूक जाले उपरांत तातूंत मुखेलपणान हिंदू लोकांचोच आस्पाव आशिल्लो. कॉँग्रेसीच्यो हालचाली आनी मागण्यो दिसानदीस वाडत आसात हें जाणून ब्रिटीश सरकारान भारतीय मुसलमान वर्गाक स्वातंत्र्य चळवळीसावन वेगळो दवरपाखातीर विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन तांकां कांय खास सवलती दिवपाक सुरवात केल्ली. पूण १९०५ ते १९१५ मेरेनच्या काळांत ब्रिटीश सरकाराच्या साबार कर्तुबांक लागून भारतीय मुसलमान लोकांचो सरकारावयलो विस्वास उणो जालो.

पयल्या म्हाझुजांत तुर्की जर्मनीवटेन झगडटाली. ब्रिटनान जेन्ना तुर्कीचेर घुरी घाली, तेन्ना तुर्कीचो सुलतानाचें म्हणजे मुस्लीम खिलाफाचें स्थान धोक्यांत आसा हें जाणून संवसारांतल्या सगळ्या मुसलमानांनी ब्रिटनाआड आवाज उठयल्लो. संवसारांतल्या हेर मुसलमानांप्रमाण भारतीय मुसलमानांनीय ब्रिटीश सरकाराआड खिलाफत चळवळ सुरू केल्ली. ते चळवळींत भारतीय कॉँग्रेसीन तांकां तेंको दिल्लो. ते चळवळींतल्यान मुस्लीम लीग आनी कॉँग्रेसीक एकठांय हाडपाक गांधीजीक यश मेळ्ळें. उपरांत कॉँग्रेस आनी लीग ह्या दोनूय पक्षांभितरली एकवट घट्ट करपाखातीर दोनूय पक्षांनी एकाच वेळार एकेच सुवातेर परिशद घेवपाचें थारायलें. तेप्रमाण डिसेंबर १९१६ त लखनौ शारांत ती परिशद भरली. ते परिशदेंत जाल्ली कबलात मुखार 'लखनौ कबलात' म्हणून प्रसिद्द जाली. लखनौ कबलातींतल्यान एकठांय आयिल्ले हिंदू - मुसलमान मुखारूय ब्रिटीश सरकाराआड एकठांय रावून स्वातंत्र्याखातीर झगडटले अशें टिळकान म्हळें.

लखनौ कबलातींत थारायल्लीं मुखेल कलमां अशीं आशिल्लीं-
(१) भारत मंत्र्यांचें (Secretary of State for India) मंडळ बरखास्त करून, तेच धर्तेचेर वसणुकेचें अध्यक्षपद भारत मंत्र्याक दिवंचें. स्वयंशासीत वसणुकांचे संबंद प्रत्यक्षपणान फकत भारत शासनाकडेन आसचे.
(२) गव्हर्नर जनरलाच्या कार्यकारी मंडळाचे अर्दे वांगडी भारतीय आसचे आनी मध्यवर्ती कायदेमंडळाचे वतीन तांकां वेंचून काडचे.
(३) मध्यवर्ती कायदेमंडळांतल्या चार पंचमांश वांगड्यांक वेंचून काडचे आनी तातूंतलें एक तृतीयांश वांगडी मुस्लीम आसपाक जाय. तांकां मुस्लीम मतदारांनीच वेंचून काडपाक जाय.
(४) भारत शासनान प्रांतीक सरकारच्या थळाव्या कारभारांत हस्तक्षेप करचो न्हय.
(५) लश्कर आनी परराश्ट्र वेव्हार तशेंच भारत शासनाचेर मध्यवर्ती कायदेमंडळाचें नियंत्रण आसचें.
(६) प्रांतीक कायदेमंडळांतले चार पंचमांश वांगडी जनतेन प्रत्यक्षपणान वेंचून दिल्ले आसपाक जाय आनी मुस्लीम प्रांतांतल्या मतदारांनी आपले प्रतिनिधी वेंचून काडचे.
(७) प्रांतीक सरकाराचेर प्रांतीक कायदेमंडळाचें नियंत्रण आसचें.
(८) भारतांतल्या कार्यकारी अधिकाऱ्यांक कायद्याविशीं सत्ता दिवंची न्हय. ती त्या त्या प्रांतांतल्या उच्च न्यायालयांकडेन दिवंची.

कॉँग्रेस फुडाऱ्यांनी हिंदू - मुस्लीम एकचाराखातीर ही कबलात घडोवन हाडिल्ली. राजकीय एकचाराखातीर कॉँग्रेस नेत्यांनी, लखनौ कबलातीवरवीं मुसलमानांखातीर कांय खाशेल्यो तजविजो केल्ल्यो. पूण हे कबलातीचे बुन्यादीचेरूच १९४७त हिन्दुस्तानाची, भारत - पाकिस्तान अशी फाळणी जाली अशीं डॉ. लाल बहादूर आनी हेर इतिहासकारांनी आपलीं मतां मांडल्यांत.

हिंदुस्तानाचे फाळणेखातीर तांणी ते कबलातींत वांटो घेतिल्ल्या कॉँग्रेस नेत्यांक दोशी थारायल्यात. पूण त्या काळावयली राजकीय आनी भौशीक परिस्थिती मतींत घेवन राजकीय एकचाराखातीर कॉँग्रेस नेत्यांनी केल्लो तो एक व्हड त्याग अशें नामनेचो इतिहासकार पानीकर आनी हेरांनी म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**लखनौ विद्यापीठ :** उत्तर प्रदेश राज्यांतलें एक विद्यापीठ. ह्या विद्यापिठाची स्थापना १९२१ वर्सा लखनौ शारांत जाली. हें विद्यापीठ स्थापनेचें श्रेय महमुदाबादाचो महमद अली महमद खान ह्या राजाक दितात. उत्तर प्रदेशाचो लॅफ्ट गव्हर्नर हारकोर्ट बटलर हाणें ह्या स्थापना प्रस्तावाक संमती दिली. कलकत्ता विद्यापीठ आयोगान लखनौक एकात्म अध्यापनात्मक आनी राबितो अशा तरेच्या विद्यापिठाची स्थापणूक करपाक विधिमंडळाक शिफारस केल्ली. जुलय १९२१ वर्सा विद्यापिठाचें अध्यापनकार्य सुरू जालें. फुडें उत्तर प्रदेश राज्य विद्यापीठ कायदो १९७४ प्रमाण विद्यापिठाच्या अधिनियमांनी कांय सुदारणा केल्यो. विद्यापिठाचें पदवीदान - सभाघर हें केंद्रबिंदू धरल्यार १६ किमी. मेरेन विद्यापिठाचें क्षेत्र पातळिल्लें आसा. द किंग जॉर्ज वैजकी महाविद्यालय, द कॅनिंग महाविद्यालय आनी इझाबेला थॉबर्न महाविद्यालय हीं विद्यापिठां ह्या वाठाराच्या मदेगाक आसात.

शिक्षणाचें माध्यम हिंदी आनी इंग्लीश. कला, वाणिज्य, शिक्षण वैजकी, विज्ञान, अभियांत्रिकी आनी तंत्रविद्या शिल्पशास्त्र, आयुर्वेद हे विद्यापिठाचे शिक्षणीक फांटे. १६ जुलय ते ३० एप्रिल अशें ह्या विद्यापिठाचें शिक्षणीक वर्स आसून. तें तीन सत्रांनी विभागिल्लें आसा. ह्या विद्यापिठाचे अखत्यारींत पांच घटक महाविद्यालयां आनी २० संलग्न महाविद्यालयां आसात.

शारिरीक शिक्षण, फुकट वखदां, फी माफी सादारण आनी संशोधन शिश्यवृत्त्यो, विद्यावेतन, रोजगार म्हायती आनी मार्गदर्शन संचालनालय ह्यो सुविधा विद्यापिठांत उपलब्ध आसून, अरबी, मराठी, पाली, उर्दु ह्या भाशांचो एका वर्साचो प्रमाणपत्र अभ्यासक्रम आनी दोन वर्सांचो पदविका अभ्यासक्रम तशेंच गुन्यांवकारी शास्त्र, ग्रंथालय शास्त्र, शारिरीक शिक्षण हांचो एका वर्साचो जाल्यार; आचार्य - शास्त्री हांचो दोन वर्सांचो संस्कृत भाशेंतलो अभ्यासक्रम उपलब्ध आसा. एल्. एल्. एम. ह्या अभ्यासक्रमाखातीर विद्यापिठान सत्र परिक्षा पद्दत आपणायल्ली आसून, शारिरीक शिक्षण सक्तीचें आसा.

ह्या विद्यापिठाच्या टागोर ग्रंथालयांत १९८८ वर्सा सु. ४,४०,००० ग्रंथ आनी १,२०० नेमाळीं आशिल्लीं. सूक्ष्मपत्रां आनी सूक्ष्मपट हांच्यो सुविधा ह्या ग्रंथालयांत उपलब्ध आसात. हांचेभायर गरीब आनी मागास वर्गांतल्या विद्यार्थ्यांखातीर ४३,५५० ग्रंथ पुस्तकांची सुविधा केल्ली आसून, तांचो खर्च राज्यशासन करता. ह्या विद्यापिठाचें उत्पन्न सु. १५.४० कोटी रुपया जातात आनी ह्या विद्यापिठांतल्यान सु. ४५,६०० विद्यार्थी आनी ७११ शिक्षक आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**लगोऱ्यो :** एक मैदानी खेळ. हो खेळ ५०० - ६०० वर्सां सावन प्रचलित आसा. एकनाथाचे गाथेंत ताचो उल्लेख आसा. पेशव्यांच्या काळांत घोड्याचेर बसून हो खेळ खेळप जातालो अशें म्हण्टात. सद्याच्या काळांत गांवगिऱ्या वाठारांनी ल्हान भुरगीं हो खेळ खेळटात. लांकडाचे चेपटे वाटकुळे कुडके वा चेपटे फातर वा नळयांच्यो नळकुट्यो एकामेकांचेर मांडून दवरपाचे आनी पयसुल्ल्यान पेल्ल मारून हे फातर उडोवपाचे अशे तरेचो हो खेळ आसता. ह्या खेळाखातीर जे फातर वापरतात तांकांच लगोऱ्यो म्हण्टात. ६ चेपटे वाटकुळे फातर आनी एक कळस मेळून ७ लगोऱ्यो आसतात. सगळयांत पोंदा दवरपाची लगोर ५ ते ६ इंच व्यासाची आसता, मदल्यो लगोऱ्यो हे लगोरे परस ल्हान ल्हान जावन सगळयांत वयल्या कळसाचो व्यास २ ते ३ इंच आसता.

जंय लगोऱ्यो मांडून दवरतात थंय मध्यबिंदू काडून ताचे भोंवतणीं दोन वाटकुळां आंखून घेतात. वाटकुळाचे मध्य रेगेसावन एक समांतर रेग काडत. हिका नेमरेग म्हण्टात.

ह्या खेळांत दोन पंगड वांटो घेतात. दर एके वटेन ५ - १० खेळगडे आसतात. एका पंगडांतले खेळगडे पेल्ल मारून लगोऱ्यांची माळ फोडटात आनी ती पडटकच परत लगोऱ्यो मांडपाचो यत्न करतात. हांकां खेळपी वा रचपी म्हण्टात. नेमरेगेचे आलतडीन उबे रावन पेल्ल मारपाचो आसता. दुसरे वटेनचे खेळगडे मुखावयले वटेन ल्हान वाटकुळाच्या भायर उबे रावन पेल्ल जिखपाचो यत्न करतात. पेल्ल लगोरेक लागनासतना जमनीर पडून वयर वता तेन्ना सकयल पडचे आदीं तो जिखल्यार पेल्ल मारपी गडी बाद जाता. पेल्ल जिखलोना जाल्यार दर एकल्यावतीन तीन खेपे मारूंक मेळटा. लगोऱ्यो पड नासतना लेगीत सगळयांचें पेल्ल मारून जातकच डाव पुराय जाता.

खेळपी पक्षांतल्या खेळगड्यान पेल्ल मारून लगोऱ्यो उडयतकच विरोधी गटांतले खेळगडे सगळयो लगोऱ्यो धाकट्या वाटकुळाभितरूच पातळावन घालतात. पूण खेळपी गडे लगोऱ्यो परत मांडचेआदीं एकेच फावटीं हें काम करूंक मेळटा. खेळपी खेळगडे पडिल्ल्यो लगोऱ्यो मांडून दवरता आसतना दुसऱ्या पक्षांतलो एक खेळगडो पेल्ल काडून धाकट्या वाटकुळांत उबो रावन लगोऱ्यो मांडप्यांमदीं कोणाचेरूय तो पेल्ल मारता. तो पेल्ल जमनीक लागनासतना लगोऱ्यो मांडप्यांमदल्या कोणाच्याय आंगाक लागल्यार जाच्या नेमाक लागून लगोऱ्यो पडटात तो गडी बाद जाता. उपरांत दुसरो खेळगडो पेल्ल मारता.

लगोऱ्यो उडोवपी गटान लगोऱ्यो उडयतकच पेल्लाक हात लावपाचो नासता. तेचपरी व्हडल्या वाटकुळा भायर वचपाचें नासता. तशें केल्यार तो गडो बाद थारता. विरोधी गटांतल्या खेळगड्यांनी मारिल्लो पेल्ल चुकयत तांणी लगोऱ्यो मांडपाच्यो आसतात. ह्यो लगोऱ्यो रचून जाल्यो म्हण्टकच डाव पुराय जाता.

डाव सुरू करतना खेळपी वाटकुळाच्या अदर्या भागांत उबे रावतात आनी झेलपी दुसऱ्या अदर्या भागांत उबे रावतात. लगोऱ्यो पडसर वा डाव सोंपमेरेन खेळगड्यांनी मुखावयले वटेनच्या अर्द वाटकुळांत पावल घालपाचें नासता. लगोऱ्यो पडटकच मात त्यो

मांडीसर वा नेम मारपी बाद जायसर खंयच्याय खेळगड्याक मैदानाच्या (व्हड वाटकुळाच्या) खंयच्याय भागांत वचूंक मेळटा.

दर पंगडाक दोन वा तीन डाव खेळूंक मेळटा. लगोऱ्यो उडयतकच खेळपी पक्षाक १० गूण मेळटात. लगोऱ्यो परत मांडटकच ५ गूण मेळटात. झेलपी पंगडान मारिल्ल्या दर एका खेळगड्याबदला त्या पक्षाक ५ गूण मेळटात. खेळाचे नेम मोडल्यार त्या त्या पंगडाक ५ गूण उणे करतात. सगळ्या डावांनी मेळिल्ले गूण एकठांय करून ज्या पंगडाचे गूण चड जातात तो पंगड जैतवंत जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**लग्नसंस्था :** मानवी समाजांतल्या सगळया संस्थांमदली एक मुखेल संस्था. हिंदू संस्कृतींत सोळा संस्कारांमदीं लग्न ही संस्था केंद्र स्थानाचेर आसा. लग्नाक लागून बायल आनी दादलो ह्या दोगांय मदल्या संबंदांचें नियमन जाता. तशेंच घोव - बायल हांकां जावपी भुरग्याचो समाजीक संबंदूय थारता.

कुटुंबसंस्था लग्न संस्थेचेर आदारीत आसता. देखुनूच लग्नसंस्काराचेर समाजीक नितीमत्तेचो प्रभाव पडिल्लो आसा. ह्या संबंदांत न्हवरो - व्हंकलेचें पावित्र्य आनी कुळाचें पावित्र्य मुखेलपणान विचारांत घेतात. तशेंच वंश जात, पोटजात, समाजीक दर्जो, अर्थोत्पादनाची तांक, भलायकी, शिकप, सभाव हे सारकिल्यो जायत्यो गजाली लग्न जुळयतना विचारांत घेतात. तशेंच लग्नसंस्था ही कुटुंबसंस्थेपुरतीच मर्यादीत नासून तिका समाजीक अनुबंधूय आसता.

समाजाचें अस्तित्व तिगचें, ताची उदरगत जावंची हेखातीर समाजांत बरी प्रजा निर्माण जावपाची गरज आसता. ल्हानपणांतूच भुरग्यांचेर बरे संस्कार जाले जाल्यार फुडाराक सद्‌गुणी प्रजा निर्माण जाता असो शास्त्रीय संकेत आसा. तेखातीर घोव - बायलेन धर्मा चरणान वागून सुप्रजानिर्मितीची पात्रताय जोड पडटा. लग्नसंस्कार हो अशी पात्रताय जोडपाक पूरक थरता. अशी सगळयाच समाजांची धारणा आसा. बायल - दादल्यामदीं समाजमान्य जावपी घोव - बायल संबंद निर्माण करून आनी तांचें नियमन करून समाजकल्याणाचें ध्येय साध्य करपाचें म्हत्वाचें कार्य लग्नसंस्था करता.

पुर्विल्ल्या काळांत लग्नसंस्थाच अस्तित्वांत नाशिल्ली अशें कांय विद्वानांचें मत आसा. ताका आदार म्हणून महाभारतांतली एक कथा सांगतात. जनावरांच्या कळपांत जशें बायल - दादलो भेदाबगर लैंगिक संबंदांविशीं हेर नातें नासता ते तरेची समाजाची अवस्था उत्तर कुरू देशांत आशिल्ली अशें उद्दालक ऋषी आनी ताचो पूत श्वेतकेतू हांच्या संवादांत म्हळां. उद्दालकामेरेन अरणिधर्म प्रचलित आशिल्लो. पूण वेदांच्या काळांत भारतांत अशी पशूधर्मी अवस्था आशिल्ल्याचो पुरावो मेळना. ऋग्वेदांत सहोदराच्या लग्नाच्या संबंदांचो नवो निशेध सुचीत करपी यम - यमी संवाद वर्णिल्लो आसा. इजिप्त आनी इराणाचे संस्कृतायेंत खूब पुर्विल्ल्या काळांत सहोदरांचें लग्न जातालें. पूण ऋग्वेदाच्या काळांत लग्नसंस्था सुस्थीर जाली हें वेदांतल्या जायत्या उल्लेखांवयल्यान कळटा. तातूंतले लग्नसंस्थेचें स्वरूप मंगल आनी उदात्त आशिल्लें.

धर्मशास्त्रकारांनी सपींड लग्नाक निशेध केल्लो आसलो तरीय भारतीय समाजांत कांय सपींड लग्नां मान्यतायेक पाविल्लीं आसात. फाटल्या हजारांनी वर्सांमदीं चारूय वर्णांतले लग्नसंबंद वर्णांपुरतेच मर्यादीत उरूंक नात, जाल्यार जाती, उपजाती, पोटजाती इतले मेरेन तांचें नियमन जाल्लें आसा. पूण आतां आधुनिक काळाच्या संदर्भांत सुशिक्षितांचो जातीवयलो विश्वास गेला. हाका लागून फक्त आंतर्जातीयच न्हय जाल्यार आंतर्धर्मीक लग्नांय जावपाक लागल्यांत.

गृह्यसूत्रां, धर्मसूत्रां आनी स्मृति हांच्या काळापसून लग्नाचे आठ प्रकार आशिल्ल्याचें सांगलां. ह्या प्रकारांचीं नांवां ब्राह्म, प्राजापत्य, आर्ष, दैव, गांधर्व, आसुर, राकेस आनी पैशाच अशीं आसात. ह्या आठ लग्नप्रकारां भायर आनिकूय कांय लग्नांचे प्रकार वेगवेगळया समाजांत प्रचलित आसात.

लग्न जुळयतना जायत्या गजालींचो विचार खोलायेन जाता. तातुंतल्यो कांय अशो : वरपरिक्षा, वधूपरिक्षा, कूळ परिक्षा, लग्नाखातीर योग्य पिराय, पत्रिकांचो मेळ आनी ग्रहांची अनुकूलता. ह्यो सगळयो गजाली जुळून आयल्यो जाल्यारूच लग्नां शास्त्रीय नदरेन जुळून येतात. तशेंच लग्नाच्या प्रयोगांत वाङ्‌निश्चय, सीमांत पूजन, मधुपर्क, परस्परनिरीक्षण, कन्यादान, अक्षारोपण, लग्नाचो होम, गृहप्रवेशनीय होम, ऐरणीदान, घरप्रवेश आनी आशीर्वचन हीं कृत्यां चड करून आस्पावतात. तशेंच लग्न संस्कारांत कांय लौकीक प्रथांचोय आस्पाव आसा. ह्यो प्रथा प्रदेशाप्रमाण वेगवेगळयो आसतात. हातूंत हुंड्यापद्‌दतीचोय आस्पाव जाता. हालीसरा पारंपारीक वैदीक लग्नपद्‌दती सुवातेर, कायदेशीर सोपस्कार पद्दत आपणावपाच्यो देखी घडूंक लागल्यात. कायद्यान बायल दादलो संबंदाक मेळिल्ली मान्यताय म्हणजेच लग्न अशें थोडेभितर म्हणूं येता. कोणाय दादल्या वांगडा लग्न जातकच बायलेक कायदेशीर दर्जो फावो जाता. लग्नाक लागून मेळपी घोव - बायल ह्या पदांवांगडाच पर्यायान तांचे संततीकूय कायद्यान मान्यताय मेळटा.

भारतांत वेगवेगळया जातींच्या लग्नासंबंदींच्यो रुढीय वेगवेगळयो आसात. तशेंच, वारसाहक्क, पोटगी, दत्तक विधान हांचेयमदीं वेगळेपण आसा. प्रथा आनी परंपरा हांचोय लग्नसंबंदांत प्रभाव दिसता. स्वातंत्र्याउपरांत जें राजकीय स्थित्यंतर जालें ताका अणसरून लोकशाय राज्यघटना देशान संमत केली. लोकशायेक पोशक आनी सुसंगत थारतले अशें समान आनी एकेच तरेचें धोरण मान्य करून, लग्न, वारसो हांचेसंबंदीं नवी संहिता तयार करप आनी ती देशांतल्या सगळया समाजगटांखातीर उपेगांत हाडप गरजेचें

जालें.

हिंदू कायद्यांत एकसूत्रीपण आसचें ह्या हेतान इ. स. १९४४ वर्सा सरकारान हिंदू कायदो समिती स्थापन केली. समितीचे अध्यक्ष बी. नरसिंहराव आशिल्ले. हिंदू बायलांक दादल्यांवांगडा अर्थीक अधिकार आनी समाजीक दर्जो मेळचो आनी तेखातीर कायदेशीर वेवस्था करची हें समितीच्या कार्याचें मुखेल उद्‌दिश्ट आशिल्लें. हे समितीन सुदारिल्लें हिंदू कोडबील तयार केलें.

११ एप्रिल १९४७ दिसा त्या वेळावयल्या केंद्रीय कायदे मंडळांत 'हिंदू कोड बील' ह्या नांवान एक विधेयक सादर केलें. पूण तातुंतल्या तरतुदींक पोरन्या मताच्या आनी रूढ मोडणाच्या हिंदू पंडितांनी विरोध दाखयलो. ताका लागून तें विधेयक तशेंच अनिर्णीत उरलें. ताचे उपरांत डॉ. आंबेडकर केंद्रीय कायदो मंत्री आसतना ह्या विधेयकाक परत चालना दिली. ताणें मूळ विधेयकाची वेगवेगळ्या भागांनी विभागणी केली आनी तें परत कायदे मंडळाफुडें मांडलें. अखेरेक इ.स. १९५५त तें मंजूर जालें आनी इ.स. १९५५ चो हिंदू लग्न कायदो ह्या नांवान ताचें कायद्यांत रुपांतर जालें.

हिंदू लग्न कायद्याप्रमाण हिंदू लग्नाच्यो कांय अटी थारायल्यो. ह्यो अटी पुराय केल्यार कोणाय हिंदू व्यक्तीक आपलें लग्न विधीप्रमाण करपाक येता अशी ह्या कायद्याची तरतूद आसा. तशेंच, ह्या कायद्याक लागून लग्न करपी मनशाक सरकाराच्या नोंदणी पुस्तकांत आपलें नांव नोंदोवचें पडटा. ना जाल्यार दंड फारीक करचो पडटा.

हो कायदो अंमलांत हाडचे पयलीं वा आयले उपरांत जाल्ल्या लग्नांतल्या दोनूय पक्षांतल्या कोणाय एका पक्षाक कांय अटींचेर कायदेशीर वेगळेपण मेळोवं येता. ह्या अटींनी मुखेलपणान क्रूरपणाची वागणूक, भिरांकूळ स्वरुपाची पिडा, बुध्दिभ्रंश, पिशेपणां, लग्नाभायले संबंद हीं मुखेल कारणां आसपाक जाय.

घटस्फोटाच्या कायद्याच्या १३व्या कलमांत घटस्फोटाची वेवस्था केली. तेखातीर कांय अटीय दवरल्यात.

एका दादल्यान एकेच बायलेकडेन आनी एके बायलेन एकाच दादल्याकडेन लग्न संबंद घडवचो ही प्रथा सर्वमान्य जाल्या. भोवतेक राश्ट्रांनी हे प्रथेक कायदेशीर मान्यताय दिल्या. भारतांत भोव पत्नीत्त्व आनी आडवादान भोवपतीत्त्वाची चाल आशिल्ल्याच्यो देखी इतिहासांत मेळटा आसल्यो, तरी सद्याच्या काळांत एक पत्नीत्त्व आनी एक पतीत्त्व पद्दत सर्रासपणान चालू आसा आनी तिका कायदेशीर मान्यताय आसा. फकत मुस्लीम समाजापुरती आनी कांय आदीवासी जमाती पुरती भोव पत्नीत्त्व पद्दत चालू आसा. घोव मेल्यार बायलेक आनी बायल मेल्यार घोवाक परतून लग्न करपाची सामाजीक तशीच कायदेशीर मान्यताय आसा. तशेंच घटस्फोट मान्य जाल्यारच लग्नसंस्था यशस्वी जावपाखातीर तिचें उद्‌दिश्ट, कार्य आनी घटक हांचेमदीं एकसुत्रताय आसची पडटा आनी तातुंतल्यानूच ती समाजाक चड कल्याणकारी कशी जातली हाचेकडेन लक्ष दिवंचें पडटा. लग्नसंस्थेचे मुखेल घटक म्हणजे घोव आनी बायल. तांचे समजिकायेचेर चड करून तांचें आनी समाजाचेंय हीत आदारीत आसता. सदांच मनांत असंतुश्ट आशिल्लीं घोव - बायल जशीं एकठांय रावप सुखाचें वा बरेपणाचें नासता, तशेंच घटस्फोट घेवन ते एकामेकापसून पयस गेल्ल्यानूय कुटुंबसंस्थेचे प्रश्न सुटनात. ते खातीर कुटूंब रचणूक, कुटूंब जिवितांचें उद्दिश्ट आनी घोव - बायलेच्या व्यापक हिताखातीर दोगांनीय जुळोवन घेवपाचे यत्न हाचेरूच लग्न संस्थेचें यश आदारीत आसता.

समाजीक भलायकेचे नदरेन लग्नसंस्थेचें म्हत्त्व वादातीत आसा हें खबर जाल्ल्यान हे संस्थेच्या कल्याणाखातीर लग्नसंबंद घडोवचे पयलीं आनी घडयल्लो संबंद तिगोवन उरचो म्हण संबंद घडयल्या उपरांत संबंदीत घोव - बायलेक तेसंबंदींचें गिन्यान दिवपी (Counselling) संस्था कार्यरत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**लघुउद्देग** : ल्हान प्रमाणांतलो उद्देग. उद्देगांत घाल्लें भांडवल, रोजगार क्षमताय (कामगार संस्था) आनी वेवस्थापकीय स्वरूप हांचे एके थरावीक व्याप्तींत उबारिल्लो उद्देग म्हळयार लघुउद्देग हे व्याप्तीच्या घटकांत वेळावेळार बदल जायत आसात. सुरवेक तीस हजार रूपया भांडवल आशिल्ल्या उद्‌देगाक लघुउद्देग म्हण्टाले. पंचवर्सुकी येवजणेचे सुरवेक ही भांडवलाची मर्यादा पांच लाख रूपयांचेर व्हेली आनी सद्याच्या काळांत ती पस्तीस लाख रुपयांचेर पावल्या. हेर घटकांचे बाबतिंतूय संबंदीत अशी वाड जाल्ली आसा. कुटीरोद्देग ह्या उद्देगाचो आस्पाव लघुउद्देगांत जाता.

लघुउद्देगांचें दोन प्रकारांनी वर्गीकरण करूं येता (१) शारांनी आनी खेड्यांनी पुराय वेळ आनी अर्दवेळ काम आसपी लघुउद्देग आनी (२) लघुउद्देगांचें व्हड धंद्यांवांगडा आशिल्लें नातें मतींत घेवन पयल्या वर्गीकरणाभितर आनीक वर्गीकरण करूं येता तें अशें अ) नागरी अर्दवेळ लघुउद्देग : हातूंत हंगामी स्वरुपाचें काम आसता. देखीक - मातयेचें काम, विटो करपाचें काम (ब) नागरी पुराय वेळ लघुउद्देग : हातूंत पुराय वेळ रोजगार दिवपी लघुउद्देगांचो आस्पाव जाता. देखीक विणिल्लें लुगट अभियांत्रिकी, छापखाने, फीतध्वनिमुद्रक, दूरचित्रवाणी संच, संगणकाखातीर लागपी आनी हेर इलॅक्ट्रॉनिक वस्तू, कातडी सामान, शाबू, रंग हांचे ल्हान कारखाने (क) हंगामी गांवगिरे लघुउद्देग : देखीक - शेतीच्या म्हालाचेर प्रक्रिया करपी उद्देगांचो हातूंत आस्पाव जाता. (ड) पुराय वेळ ग्रामीण लघुउद्देग : हातूंत धवड काम, तेलाचे घाणे, हस्तवेवसाय, खेळणीं, कंवचेचें सामान, थवयकाम हांचो आस्पाव जाता.

दुसऱ्या वर्गीकरणाचो विचार केल्यार, लघुउद्देगांचें व्हड

उद्देगांकडलें नातें लक्षांत घेतल्यार तांचें तीन विभागांनी वर्गीकरण करूं येता (अ) जे लघुउद्देग संघटीत उद्देगधंदयांकडे सर्त करिनात. देखीक - कुलपां, बटन, मेणवाती, जोतीं आनी हेर (ब) ज्या लघुउद्देगांक समान उत्पादनाक लागून व्हड उद्देगांकडेन सर्त करची पडटा. देखीक - कापड, इलॅक्ट्रॉनिक उपकरणां आनी हेर (क) जे उद्देग व्हड उद्देगधंदयांक पूरक आसात अशा उद्देगधंदयांनी, व्हड कारखान्यांत निमार्ण जावपी म्हालाचे कांय घटक निर्माण करतात. देखीक - सायकलीचे भाग, विजेचें सामान हांचे कारखाने.

लघुउद्देगांक विकसीत राश्ट्रांपरस, अविकसीत राश्ट्रांनी चड म्हत्वाचें स्थान आसा. हाका मुखेलपणान तीन कारणां आसात - एक म्हळयार ह्या राश्ट्रांनी व्हड व्हड कारखाने बांदपाखातीर आनी चलोवपाखातीर गरजेच्या अशा तंत्रज्ञानाचो आनी तंत्रकुशळ व्यक्तींचो व्हड प्रमाणांत उणाव आसता. दुसरें, ह्या देशांच्या दर एका मनशाचें उत्पन्न उणें आशिल्ल्यान बचतीचें उत्पन्नाकडेन प्रमाण विकसीत राश्ट्रांपरस उणें आसता. तेखातीर व्हड कारखान्यांक लागपी भांडवल तांकां परवडना. तिसरें आनी सगळयांत म्हत्वाचें कारण म्हळयार, ह्या देशांतलो लोकसंख्या वृध्दिदर विकसीत राश्ट्रांपरस चड आशिल्ल्यान उण्या भांडवलाचेर चलपी उद्देगधंदयांची निर्मिती जर योग्य प्रमाणांत जालीना जाल्यार बेकारी वाडून लोकसंख्येचो शेतावयलो भार चडांत चड वाडटलो आनी तेखातीर शेतीपसून मेळपी उत्पन्नांतल्यान जावपी बचतीचें प्रमाण उणें जायत रावतलें. हे नदरेन भारतीय येवजणकारांनी दुसरे पांचवर्सुकी येवजणेंत ल्हान उद्देगधंदयांक एक म्हत्वाचें स्थान दिलें. नियोजनकारांचो हो विचार कर्वे समितीचे (१९५५) शिफारशींचेर आदारिल्लो. हे विचारसरणेक अणसरून भारतांत केंद्र आनी राज्य शासनांनी कुटिरोद्देग आनी हेर सगळया तरांचे लघुउद्देग हांच्या विकासाखातीर तशेंच अडचणी सोडोवपाखातीर तरातरांच्यो येवजणी चालीक लायल्यो आनी तांकां सवलती दिल्यो. तेखातीर भारताचे अर्थविवस्थेंत तांकां एक म्हत्वाची सुवात प्राप्त जाली. लघुउद्देगधंदयांचें अर्थविवस्थेंतलें म्हत्व लक्षांत घेवन तांच्या विकासाखातीर येवजणकारांनी आंखिल्ल्या धोरणाचीं मुखेल आंगां अशी आसात -

(१) आधुनिकीकरण आनी तंत्रज्ञान हांचो दर्जो वाडोवन उत्पादकताय आनी उत्पादन गुणवत्ता वाडोवप. (२) वीज, कच्चो म्हाल, रीण हांची फावो त्या प्रमाणांत पुरवण करून अस्तित्वांत आशिल्ले उत्पादन क्षमतायेचो बरो उपेग करून घेवप (३) देशांतल्या बाजारपेठांनी ह्या क्षेत्राच्या म्हालाची विक्री, ताका प्रसिध्दी दिवन, ताचें प्रमाणीकरण करून, विक्रेक आदार दिवन आनी शासनाचे म्हाल - खरेदी - कार्यावळींत चड वांटो दिवन, वाडोवप. (४) अंगभूतीकरणाच्या कार्यावळींचेर भर दिवन लघुउद्देग आनी हेर उद्देग हांचेमदले संबंद

**पांचवर्सुकी येवजणेंत लघुउद्देगांचेर भौशिक क्षेत्रांत जाल्लो खर्च (कोटींनी)**

| उद्देग | पयली पांच वर्सुकी येवजण १९५१-५६ | दुसरी पांच वर्सुकी येवजण १९५६-६० | तिसरी पांच वर्सुकी येवजण १९६१-६६ | वर्सुकी येवजण १९६६-६९ | चवथी पांच वर्सुकी येवजण १९६९-७४ | पाचवी पांच वर्सुकी येवजण १९७४-७९ | वर्सुकी येवजण १९७९-८० | सवी पांच वर्सुकी येवजण १९८०-८९ |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| खादी आनी कुटिरोद्योग | १३.५ | ८२.४ | ८९.३ | ५५.४ | १०२.७ | १४३.० | ९३.३ | ५४७.१ |
| हातमाग | ११.१ | २९.७ | २५.४ | १३.६ | २८.६ | ९९.९ | ४८.६ | ३१०.९ |
| रेशीम उत्पादन | १.३ | ३.१ | ४.४ | ३.८ | ८.४ | २९.७ | १६.६ | १६४.६ |
| हातीवेवसाय | १.० | ४.८ | ५.३ | ४.५ | ६.२ | २९.८ | २३.२ | ११०.९ |
| कायो | ०.१ | २.० | १.८ | १.३ | ४.५ | - | - | - |
| लघुउद्देग आनी उद्येगीक वसाहती | ४.१ | ५६.० | ११३.१ | ५३.५ | ९६.८ | २२१.७ | १०४.८ | १६.१ |
| यंत्रमाग | - | २.० | १.५ | ०.५ | ३.९ | ३.३ | ०.७ | ४.२ |
| वट्ट | ३१.१ | १८०.० | २४०.८ | १३२.६ | २५१.१ | ५३५.१ | २८९.५ | १७८०.५ |

बळिश्ट करून उद्देगांच्या पुराय क्षेत्राचो विकास सादप. (५) उत्पादनांत आनी निर्याताभिमुख उद्देगांनी विशेशीकरण प्रसूत करप (६) स्वयंरोजगाराखातीर चड संद मेळची हे नदरेन उद्देगीक प्रवर्तन (Enterpreneurship), वेगवेगळे तरेची कुशळटाय आनी वेवस्थापन पद्दत हांचो विकास करप (७) काम करपाचे परिस्थितींत सुदारणा, कामगारांच्या कल्याणाखातीर येवजणी आनी रोजगाराची सुरक्षीतताय हांचेवतीन कर्मचारी आनी कारागीर हांच्या जीवनमानाचो पांवडो सुदारप. ह्या धोरणांच्या निमतान आनी लघुउद्देगांच्यो खाशेल्यो अडचणी मतींत घेवन शासनान तांच्या विकासाखातीर बऱ्योचशो येवजणी चालीक लावन तांकां सवलतीय दिल्यात.

व्हड आनी मध्यम उद्देगांक सहाय्यकारी आनी तांचेर आदारीत ल्हान प्रमाणावयल्या घटकांची स्थापणूक करपाखातीर तशेंच नव्या ल्हान कारखान्यांक उर्बा दिवपाखातीर उद्देगीक वसणुकांच्यो स्थापणुको केल्यात. मार्च १९७९ वर्सामेरेन अशा ६६२ उद्देगीक वसणुकांची स्थापणूक जाली, तातूंत १३,४६७ कारखाने आसात. ग्रामीण उद्देग समितीच्या शिफारशींप्रमाण (१९६२) ४५ ग्रामीण उद्देग प्रकल्प कांय वेंचीक ग्रामीण भागांत सुरू केल्यात. फोर्ड प्रतिश्ठानाच्या आंतरराश्ट्रीय अभ्यास मंडळान लघुउद्देगांच्या विकासाचो बारीकसाणीन अभ्यास केलो आनी ह्या मंडळाच्या शिफारशींक अणसरून राश्ट्रीय लघुउद्देग निगम आनी विकास अधिकारी ह्या लघुउद्देगांक मदत करपी संस्थांची सरकारान उबारणी केली. तशेंच, लघुउद्देगांच्या विकासाखातीर परदेशी तज्ञांचोय आदार घेतलो.

लघुउद्देगांच्या क्षेत्रांत येवपी धंदयांच्या प्रश्नांचो अभ्यास करपाखातीर आनी तांकां सगळया तरांनी आदार करपाखातीर खादी आनी ग्रामोद्योग, काथो, रेशीम, हातमाग, लघुउद्देग, हातमाग हीं महामंडळां स्थापन केलीं. लघुउद्देगांच्या विकासा खातीर अशे तरेन राश्ट्रीय लघुउद्देग निगम, लघुउद्देग विकास संघटना, विकास अधिकारी कार्यालयां, जिल्हो उद्देगीक केंद्रां, लघुउद्देग सेवासंस्था, उद्देगीक वसणुको, तांत्रिक आनी संशोधन प्रयोगशाळा अशो कितल्योशोच संस्था सरकारान निर्माण केल्यात. भारतांत पांचवर्सुकी येवजण सुरू जायत पसूनच्या साडेतीन दशकांच्या काळांत लघुउद्देगांची प्रगती जाली तरी तांचेभितर उद्देगीक दुर्येस पातळळें अशें सातवे येवजणेचे सुरवेक दिसलें. ही परिस्थिती सुदारपाखातीर बँकांकडल्यान वेळच्यावेळार आनी जाय तितली पतपुरवण, अंगभूत लघुउद्देगांकडल्यान व्हड कारखान्यांनी (उद्देगांनी) घेतिल्ल्या म्हालाचें मोल तांकां वेळार दिवप आनी तेखातीर अशा कारखान्यांक बँकांनी मंजूर केल्ल्या रिणाचो एक वांटो म्हणून राखून दवरप, राज्य वित्त निगमांप्रमाण बँकांनीय बीज भांडवल येवजण सुरू करप अशे तरेचे उपाय करचे अशें येवजणकारांनी सुचयलां.

- कों. वि. सं. मं.

**लघुलेखन :** ही एक बरोवपाची पद्दत आसून तिका लघुलिपी, आशुलेखन, शीघ्रलेखन, शीघ्रलिपी; इंग्लिशींत 'शॉर्टहँड' वा 'स्टॅनोग्राफी' अशींय वेगवेगळीं नांवां आसात. उलोवण्याक कायम स्वरूप हाडपाखातीर लेखनकला निर्माण जाली आनी जायत्या भाशांखातीर विंगड विंगड लिपी तयार जाल्यो. पूण लेखन बेगीन जावंचें म्हणून खाशेल्या कामाखातीर वेगळयो बरोवपाच्यो पद्दती आनी लिपी तयार केल्यो त्यो अशो -

(१) हरशीं वापरपाचे लिपींत बदल करून तयार केल्ल्यो लिपी - देखीक - मोडी, महाजनी, कायथी ह्यो भारतांतल्यो कारकुनी लिपी. 'शिकस्ता' ही इराणांतली आनी भारतांतलीय कारकुनी लिपी.

(२) अक्षरांच्या मोडणांत आनी अक्षरांनी (स्पेलींग ह्या अर्थान) संक्षेप हाडून तयार केल्ली लिपी. देखीक - एमा डीअरबॉर्न हिणें अमेरिकेंत १९२४ वर्सा काडिल्ली 'स्पीडरायटिंग' लिपी, जातूंत each हें उत्तर eC अशें बरयतात.

(३) स्वतंत्रपणान ह्या कामाखातीर पूण ते ते भाशेखातीर तयार केल्ली लिपी. देखीक - आयज ब्रिटनांत आनी भारतांत वापरांत आशिल्ली आनी आयझाक पिटमनान इंग्लंडांत १८३७ वर्सा तयार केल्ली पिटमन शॉर्टहँड लिपी वा आयज अमेरिकेंत घोळणुकेंत आशिल्ली आनी रॉबर्ट ग्रेगान इंग्लंडांत १८८५ वर्सा पिटमन पद्दतींतलें दोश पयस करपाखातीर काडिल्ली ग्रेग - शॉर्टहँड.


पिटमन


ग्रेग


स्पीडरायटिंग

गृतलेखन (डिक्टेशन) करपाखातीर उलोवपी मदीं मदीं रावून जाय जाल्यार पुनरुक्ती (परत परत) करून उलयता. हें टाळून उलोवप्याचो ओघ आडायनासतना मजकूर चुकीं बगर आनी बेगबेगीन बरोवन घेवपाची गरज बरेच कडेन उपरासता. देखीक - अधिकारी, कारकून, उलोवपी, खबरांकार, शिक्षक - विद्यार्थी, रंगमाचयेवयलो नट - आयकुपी (शेक्सपियराचीं कांय नाटकां हेच पद्दतीन वाचप्याक उपलब्ध जालीं). उपरांत ह्या मजकुराचे सदांचे लिपींत (लाँगहँडांत) परत बरोवप वा टंकलेखन करतात. अशे हे

गरज भागोवपावातीर निर्माण जाल्ले लघुलिपयेचो आनीक एक उपेग म्हळयार स्वताचो मजकूर आपुणूच, बेगीन आनी विचारांचो ओघ खंडीत करीनासतना बरोवपावातीर जांव येता. देखीक, जुलिअस सीझराचीं लडायेवयलीं टिपणां, सॅम्युएल पेपिसाची दीसपटी, जॉर्ज बॅर्नाड शॉलीं नाटकां हीं लघुलेखनांतूच बरयल्यांत.

कसलीय लघुलिपी घडयतना वा शिकतना तिच्या दोन आंगांचो विचार करचो पडटा -

(१) तिचो भाशेकडेन जोडिल्लो सांदो.

(२) तिचो आपल्या हातांचे आनी दोळयांचे चपळायेकडेन संबंद - (रेशा काय टिंबां?) रेशा सरळ काय वांकडी ? लिखणी खंय उखलपाची ? रेशांचे जोड सलग काय तोंकाळ? रेशा उबी, आडवी, काय तिरकस? ती खंयसावन सुरू करून खंय सोंपोवपाची? मोटवो - लांब फरक पाळपाचो काय ना? मोटो - बारीक फरक (पोझिशनिंग) पाळपाचो काय ना? लघुलिपयेचो उपेग पळयताना दोन तरांनी विचार करचो पडटलो?

(१) शिकपावातीर सोंपेपण.

(२) वापरांत सोंपेपण.

लघुलिपीचो उपेग वाडोवपावातीर वेगवेगळयो तरतुदी करूं येतात. देखीक - कुरवांची आनी नेमांची संख्या उणी करप, खबर आशिल्ले सादे लिपयेकडेन वा लघुलिपयेकडेन सारकेपण दवरप, स्पॅलिंगापरस उच्चाराक म्हत्व दिवप आनी परत परत वापरपाचे (हाय फ्रिक्वेन्सी) उतर घटक, उतरां, उतरांचोमे, (मराठींत 'चा', 'आणि', 'या रीतीने') हांकां संक्षिप्त (बारकेल्यो) कुरू दिवप, लिखणी उणे खेपे उखलपाची गरज दवरप, वाचप्याच्या भाशेच्या गिन्यानाचेर भिस्त दवरून बारीकसाणी दुर्लक्षीत दवरप (मोडी लिपयेंत इ/ई, उ/ऊ भेद दुर्लक्षीत) मोटो - बारीक, फरक, वा वयर - सकयल फरक अशो बारीकसाणी वापरप, (पीट्मन पद्धतींत) वा मुजरत टाळप (ग्रेग पद्धतींत) आदी. आयज पिट्मन इंग्लिशींत सामान्यतायेन वेग मिनटाक १००-२०० उतरां इतलो उरता. मराठींत ६०-१०० उतरां इतलो आसा. (भारतीय भाशांनी चांचण्यो घेतना ६०,८०,१०० आनी १२० उतरां अशो श्रेणी मानतात).

पुर्विल्ल्या ग्रीसांत झेनोफन हाणें सॉक्रेटीसाच्यो यादी लघुलिखित केल्ल्याची नोंद आसा. पुर्विल्ल्या रोमांत टायरोनेन इ.स.चे. पयलीं ६३त टायटोनियन लघुलिपी काडिल्ली, ती सुमार हजार वर्सां चलून फुडें नाच्च जाली. आर्विल्ल्या काळांत इंग्लीश लोक वेपारी राश्ट्रां जालेउपरांत लघुलेखनांत लक्ष घालूंक लागले. टिमथी ब्राइटची 'कॅटकरी' (१५८८), जॉन विलिस (सतरावो शेंकडो), सॅम्युएल टेलर (१७८६), पिट्मन, ग्रेग, डीअरवॉर्न हीं ह्या मळावयलीं कांय ठळक नांवां आसात. जांचो आंतरराश्ट्रीय प्रसार जालो अशो पद्धती म्हळयार पिटमन, ग्रेग, डीअरवॉर्न तशेंच जर्मनीचो फ्रांटस् गाबेल्सबेल्गर (१८३४). हांगेच्यो पद्धती खंयचेय यशस्वी पद्धतीन सुदारणा जायत रावतात. देखीक - पिट्मन संस्थेन 'पिट्मन - २000' ही शिकोवपाक आनी मतींत उरपाक चड सोंपी पद्दत काडल्या. (१९७५) लघुलेखनाची उपयुक्तताय पटिल्ल्यान अमेरिकेंत (१८९३ उपरांत) आनी उपरांत हेर देशांनी तो विशय शाळेंत शिकोवपाक लागले.

भारतांत आर्विल्ल्या काळांत सुमार १८७० सावन पिट्मन शॉर्टहँड लिपयेचेर उणे वा चड संस्कार करून ती भारतीय भाशांखातीर वापरपाचे यत्न चालू जाले. मराठींत पयले यत्न भुजंगराव मानकर (मुंबय, १८९५) हाचे. स्वातंत्र्य मेळ्ळेउपरांत आनी भाशावार प्रांतरचना जालेउपरांत ह्या यत्नांक नेट आयलो आनी प्रत्यक्ष वापर वाडलो. शासनान खंयची लघुलिपी हाचें बंधन घालूंक नाशिल्ल्यान संशोधनाक वाव मेळ्ळो.

मराठी लघुलेखनाच्यो खाशेल्यो प्रचारांत आयिल्ल्यो पद्धती म्हळयार म. ना. दामले (१९६२), महाराष्ट्र शासनाचें भाशा संचालनालय, (१९६३) आनी म. वि. लिमये (१९७५) हांच्यो पद्धती. हांचेभायर उदयन आमडेकार (१९५५), श्री. वा. भागवत (१९८७), हांचेय पद्धतीचो उल्लेख करूं येता, हिंदी लघुलेखनाच्यो खाशेल्यो प्रचारांत आशिल्ल्यो पद्धती म्हळयार ऋषिप्रणाली (ऋषिलाल अग्रवाल, १९३८), सिंहप्रणाली (सरजूप्रसाद जैन, १९३९). शाळांनी मोडी लिपी शिकोवप १९३७ उपरांत बंद जालें. पूण कांय वेपारी आस्थापनांनी मोडी लिपीचो वापर हालीं मेरेन जातालो.

लघुलेखनाचें यांत्रिककरण करपाचो सुरवेचो यत्न म्हळयार स्टॅनोटायप यंत्र (१९२२), फुडलें सोंपण म्हळयार श्रुतलेखनाचें यांत्रिकीकरण - डिक्टाफोन यंत्र (१९३९) हो सुरवेचो यत्न. हातूंत ध्वनी मुद्रणाकलागून लघुलिपयेची आनी लघुलेखकाची गरज लागना. उलोवप आनी सादे लिपयेंत बरोवप/ टंकलेखन ह्यो क्रिया विंगड सुवातीं, विंगड वेळांचेर जावंक शकतात. हांचेफुडलें सोंपण म्हळयार ध्वनीमुद्रण आनी टंकलेखन हांचेमदलो टंकलेखक हो दुवो काडून उडोवप.

स्टॅनोटायप माक्नाचो हो पुराय रितीन नवो आविश्कार. ताका 'स्पीचरायटर' अशें म्हण्टात, म्हणजेच हे नवे वेवस्थेंत उलोवण्याच्या भासकुशळटायेची कसवटी लागता. देखीक - तो श्रुतलेखन दीत आसलो जाल्यार उतरांयेवजण रेखीव आसची पडटा, हाचे उरफाटें म्हळयार लघुलेखनाचे वेवस्थेंत लघुलेखकाची भासकुशळताय दिश्टी पडटा. अमेरिकी काँग्रेसीच्या एका लघुलेखकान म्हळां तेप्रमाण ही लघुलेखक मंडळी इतले चोख रितीन आयकल्ल्या मजकुराचें संपादन करतात, उलोवपी समजता आपुणूच कितलो रेखीव उलयतां. तेन्ना हें नव्या सोदाक लागून लघुलेखक वर्गाक खऱ्यांनीच मेकळो करचो कांय किदें हाचो विचार करचो पडटलो.

- कों. वि. सं. मं.

**लजेझाड :** (मराठी : लाजाळू, लाजरी, संकोची; हिंदी : लाजवती, लज्जावंती; गुजराती: लजमणी, शिशामणी; कन्नडः नाचिके गिड; संस्कृतः लज्जिका, लज्जालु; इंग्लीशः सॅन्सिटिव्ह प्लांट; लॅटीन : मिमोजा पुदिका; कूळ; लेग्युमिनोजी). फुलझाडांतलें पातळत वाडपी, कांटेरी आनी केसाळ अशें ल्हान झोंप. हाचें मूळ स्थान ब्राझील हें आसून ताचो प्रसार अमेरिकेंत आनी भारतांत सादारणपणान उश्ण आनी दमट हवामानांत चड करून दर्यादिगेर जाल्लो आसा. ताच्या मिमोजा हे प्रजातींत वट्ट ४५० जाती आसून तातुंतल्यो भारतांत फकत आठ जाती मेळटात.

हें झोंप सुमार ५० - ९० सेंमी. ऊंच आसून ताका जायत्यो कांटेरी आनी केंसाळ खांदयो आसतात. पानां संयुक्त आनी स्पर्शग्राही आसतात. पानाक कसलोय स्पर्श जालो तर पानांचीं दलां कवळटात. तेन्ना पानाच्यो कडो एकमेकांक तेंकता आशिल्ल्यान तीं आपलें तोंड लजेन धापतात असो भास जाता. ताचेवयल्यान ह्या झाडाक लजेझाड हें नाव पडलां. एका देंठार दोन ते चार दलां आसतात आनी दर एक दल हें संयुक्त आनी पिसावरी आसता. सप्टेंबर - ऑक्टोबरांत तांबसार वाटकुळीं, बटनावरी ६ - ८ मिमी. व्यासाचीं, फुलां पानांचे खांचींत येतात. सांगो गाड तपकिरी, चेपट्यो, सुमार १.३ -२ सेंमी. x ३.४ मिमी. ल्हान आनी केंसाळ आसतात. ३ - ५ बियो दोनूय वटांनी फुगीर आसतात. फुलांची संरचना आनी हेर सामान्य शारिरीक लक्षणां लेग्युमिनोजी कुळांत आनी मिमोनॉयडी उपकुळांत वर्णन केल्लेवरी आसतात.

हें झाड थंड आनी कोडू आसून शरिरांतलें पित्त आनी कफ ह्या विकारांचेर गुणकारी थारता. भारतीय वैजकी ग्रंथांत हाच्या गूणधर्माची चिकित्सा केल्ली आसा. बिकाचेर पानाचें चूर्ण दुदावांगडा दितात. मुळांचो काडो मुतरवडो आनी हेर मुताविकारांचेर दितात. भुरग्यांच्या मोडण्याचेर ह्या झाडाचो उपेग मॅलॅगॅसींत करतात. ब्राझीलांत मुळांचो वापर गंडमाळेचेर आनी वांतिकारक म्हणून करतात. गोरवां हाचीं पानां खातात. फिजींत ताची चरपाखातीर कुरणां तयार केल्यांत. तांकां लागून गोरवांचें मास आनी दूद वाडटा असो अणभव आसा. ही वनस्पत तणावरी त्रासदायक थारिल्ल्यान तिचो नाश करपाखातीर एमसीपीए हें तणनाशक दर हॅक्टेरी ०.८ - १.२ किग्रॅ. वापरतात. हाच्या बियांनी श्लेश्मल द्रव्य आनी पाचवेंसार हळदुवें तेल आसता. ताचो उपेग लेप दिवपाच्या पदार्थाखातीर जावंक शकता.

हे वनस्पतीच्या पानांक हात लायल्यार दलां आनी दलकां एकामेकांचेर पडून धांपतात आनी निमाणें सगळींच पानां सकयल लांबतात. हाचें कारण म्हळयार दलकाच्या फुगीर तळभागांत पातळ थर आशिल्ल्या पेशींतल्या उदकाचो अंश उणो जाता आनी तेखातीर ह्यो पेशी लुळ्यो पडून दलकां धांपतात आनी पानां सकयल बागवतात. स्पर्शाचो परिणाम जसो जसो उणो जाता तशेंतशें तें पान आशिल्लें तशें जाता. खर उजवाडांत वा काळखांत अशीच प्रतिक्रिया घडटा. हे हालचालीचो खाशेलो प्रायोगिक अभ्यास सर जगदीशचंद्र बोस हाणें केल्लो. वनस्पती उण्या अदीक प्रमाणांत संवेदनक्षम आसतात आनी प्राण्यांवरी त्यो प्रतिसाद दितात अशें सिध्द केल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

**लडाख :** भारताच्या जम्मू आनी कश्मीर राज्यांतलो क्षेत्रफळान सगळ्यांत व्हडलो जिल्हो. राज्याच्या उदेंत भागांतल्या ह्या जिल्ह्याचें वट्ट क्षेत्रफळ १,१८,५२३ चौरखण किमी. आसून आतां ताचे तीन वांटे जाल्ले आसात. अस्तंतेकडलो सु. २८,५०० चौ. किमी. चो वाठार पाकिस्तानान व्यापला जाल्यार ईशान्येकडलो सु. ३७, ५५५ चौ. किमी. वाठार चीनान व्यापला. उत्तरेक आनी उदेंतेक चीन आनी अस्तंतेक पाकिस्तान हांच्या शिमांचेर हो प्रदेश आशिल्ल्यान भूराजनैतिक नदरेन चड करून राखणेचे नदरेन हाका खूब म्हत्व प्राप्त जाल्लें आसा. लोकसंख्या २,००,००० (१९८१). लेह हें ह्या जिल्ह्याचें मुखेल ठिकाण.

ह्या प्रदेशाक सगळ्यांत उंचायेर आशिल्लो 'लडाख सडो' म्हणून वळखतात. थीर वसती आशिल्ल्या जगांतल्या कांय ऊंच प्रदेशांत हो येता. भुंयरचणुकेचे नदरेन मध्यवर्ती सिंधू न्हंयेचें देगण सोडल्यार हाचो चडसो भाग देगणांनी आनी ऊंच पर्वतरांकांनी व्यापला. हांगाच्यो पर्वतरांको वायव्य - आग्नेय दिशेन पातळिल्ल्यो आसून उत्तरेकडल्यान दक्षिणेकडेन ओळीन काराकोरम लडाख, झस्कर ह्या मुखेल रांकांचो तातूंत आस्पाव जाता. ताच्या उदेंत भागांत चांगचेन्मो ही उदेंत अस्तंत पातळिल्ली व्हडली पर्वतरांक आसून तिचे उत्तरेक सोड मैदान, देपसंग आनी लिंगझिटांग हे मैदानी वाठार आसात. उदेंतेकडलो हो प्रदेश 'आक्साय चीन' ह्या नांवान वळखतात. तो चीनान व्यापला. अधिल पर्वतरांक लडाखाचे उत्तर शिमेचेर वायव्य - आग्नेय दिशेन पातळिल्ली आसा. काराकोरम पर्वतांवळ माऊंट गॉडविन ऑस्टिन (के - २) हें लडाखांतलें सगळ्यांत ऊंच (८, ६११मी.) तेमूक आसून ताचो उंचायेप्रमाण संवसारांत दुसरो क्रमांक लागता. हाचे भायर हिडन (८,०६८ मी.), ब्रॉड (८,०४७मी.), गाशेरब्रुम (८, ०३५ मी.) हीं आठ हजारांपरस चड उंचायेचीं तेमकां ह्याच प्रदेशांत आसात. काराकोरमांतल्या सासेस खींड, अधिल पर्वतावळींतल्या काराकोरम, शक्सगम, अधिल सारकिल्या खिंडींक येरादारीचे नदरेन आंतरराश्ट्रीय म्हत्व आसा. लेहाचे उत्तरेक आशिल्ली खारडाँग खिंडूय चीनांत प्रवेश करपाचे नदरेन म्हत्वाची आसा.

लडाखांतल्यो चडशो व्हडल्यो न्हंयो आग्नेय - वायव्य दिशेन व्हांवतात, जाल्यार तांच्यो उपन्हंयो दक्षिण वा उत्तर दिकेन व्हांवतात. सिंधू न्हंय लडाखाच्या मदल्यान वायव्येक व्हांवत वचून पाकिस्तानांत भितर सरता. श्योक, नुब्रा ह्यो उत्तरेकडल्यान, जाल्यार झस्कर,

दक्षिणेकडल्यान सिंधूक येवन मेळटा. हिस्पार, सिमो, बिआरी, बलतोरो, सियाचीन हांचे सारक्या व्हडल्या हिमन्हंयांनी लडाखचो उत्तर भाग व्यापला. प्रदेशाच्या आग्नेय कोनशाक पंगाँग, आक्साय चीन भागांतलें सॉल्ट हीं खाऱ्या उदकाचीं मुखेल तळीं आसात. हांचेभायर ह्या भागांत हून उदकाचेय जायते झरे आसात.

लडाखाचें हवामान सादारणपणान थंड आनी सुकें. नेटाचें वारें आनी दर्यापातळेपसूनची उंचाय हांकां लागून उत्तर भागांत नेटाचें शीं आसून हो भाग वर्सांतले कांय म्हयने बर्फान धांपिल्लो आसता. हांगा वर्सुकी सरासरी ९.३ सेंमी. पावस पडटा. जमीन रेंवट आनी सु. १0% लागवडीक फावो अशी आसा. गंव, जव, वाटाणे, राय सारकिलीं पिकां चड उण्या प्रमाणांत घेतात. दोंगर देंवण्यांचेर शिंपणावळीची वेवस्था आशिल्ल्यान ह्या भागांत फळ पोरसांचें प्रमाण चड आसा. सफरचंद, जरदाळू, अक्रोड हांचीं पोरसां व्हड प्रमाणांत दिसतात. लुसर्न ह्या जनावरांक उपेगी अशा तणाची लागवड बऱ्याच भागांनी करतात. खेचरां, तट्टू, याक ह्या जनावरांचो दूद, येरादारी आनी कातडी हांचेखातीर उपेग करतात. रानमेंढी, बाराशिंगो, हरण, कुरंग, तांबडें (तपकिरी) वांस्वेल, बिबटे, औंस (हिमबिबटो) सारकिलीं जनावरां हांगा आसात.

**इतिहास :** पुर्विल्ल्या काळापसून लडाखाचें क्षेत्र अनिश्चितूच उरलां. ताचो इतिहास चडसो जम्मू - काश्मीराच्या इतिहासाकडेन संबंदीत आसा. इ.स. चवथ्या शेंकड्यापसून काश्मीरचो इतिहास शिलालेखांवयल्यान कळटा. लडाखाचो पयलो उल्लेख चीनी प्रवासी फा हियान हाच्या प्रवास वृत्तांतांत मेळटा. कल्हणच्या राजतरंगिणींतल्या उल्लेखांवयल्यान काश्मीराचो राजा ललितदित्य हाणें तिबेट आनी लडाख हे प्रदेश जिखून आपल्या राज्याक जोडले. ॲलेक्झांडर कनिंगहॅमच्या मतान णवव्या शेंकड्यांत क्रांती जावन तिबेटाचें विघटन जालें आनी राजघराण्याचे वांटणेंत अस्तंत तिबेट वेगळो जालो. तेन्नापसून लडाख आनी तिबेटाच्यो शिमो थारल्यो. पूण ह्याच काळांत निम्‌गॉन नांवाच्या एका मुत्सद्दी मनशान तिबेटांत येवन तो थंयच्या राजाचे चलयेवांगडा लग्न जालो आनी लडाखावांगडा सगळो प्रदेश आपल्या शेकातळा हाडलो. तेन्ना तिबेटी लोक लडाखाचो उल्लेख 'मांग्याल' वा 'मान्यूल' असो करताले. मागीर जायतीं वर्सां हो प्रदेश निम्‌गॉनच्या वारसांच्या ताब्यांत आशिल्लो आनी तांकां 'लडाखाचे राजा' म्हणून वळखताले.

चवदाव्या शेंकड्याच्या सुरवेच्या काळांत तिबेटाचो राजपुत्र रिंचिन काश्मीरांत घुसलो आनी ताणें ल्हव ल्हव सत्ता हातासली. सतराव्या शेंकड्यांत लडाख, मोगल सुभेदारांच्या शेकातळा आशिल्लें. त्याच शेंकड्यांत मंगोल फांट्यांतल्या कलंपा नांवाच्या लोकांनी लडाखाचेर धुरी घाली. तेन्नापसून लडाखावांगडाच काश्मीराचेर मुसलमानांची सत्ता आयली. अफघान राज्यकर्तो अहमद शाह दुर्रानीन हाणें ह्या प्रदेशाचेर जायते खेपे धुरयो घाल्यो आनी काश्मीर जिखलें. अफघानांचे त्रासदिणे सत्तेक लागून थंयचे जनतेन १८१९ वर्सा उठाव केलो. मागीर डोग्रा घराण्याचो संस्थापक गुलाबसिंग हाचे कारकीर्दींत काश्मीर संस्थान अस्तित्वांत आयलें आनी लडाख ताचो एक वांटो जालो. ताचे उपरांत भारताचें स्वातंत्र्य, काश्मीर संस्थानाचें भारतांत विलिनीकरण हेसारकिल्यो इतिहासीक घटना घडल्यो. ह्याच वेळार जाल्ल्या पाकिस्तान - भारत झुजांत (१९४७ - ४९) पाकिस्तानान लडाखाचो वायव्य भाग व्यापलो आनी तेन्नापसून हो भाग वादग्रस्त थरलो. भारत आनी पाकिस्तान हांचेमदीं १९७२ त जाल्ल्या शिमला कराराप्रमाण हो शिमेवाद सोडोवचो अशी भुमिका भारतान घेतिल्ली, जाल्यार संयुक्त राश्ट्रांचे मध्यस्थीन जम्मू आनी काश्मीर राज्यांत सार्वमताचो कौल घेवन निर्णय घेवंचो अशें पाकिस्तानाक दिसता.

लडाखाचे ईशान्य शिमेवयल्या भारत - चीन संघर्शाक चीनाचे तिबेटावयले धुरयेन १९५८ त सुरवात जाली. तिबेटावयलें वर्चस्व तिगोवपाक चीनाक आक्साय चीनाची गरज दिसली. ब्रिटीश काळापसून तिबेट चीन आनी भारत हांचे मदीं दोन आयोग नेमुनूय शिमेरेशांविशीं केन्नाच एकमत जालें ना आनी चीनान आपल्या नकाशांप्रमाण ३८,000 चौ. किमी. लडाखाचो प्रदेश चीनाचो आसा असो दावो केलो. तशेंच, भारत - चीन झुजांत (१९६२) लडाखांतलीं चांगचेन्मो, पंगाँग ह्या प्रदेशांवांगडा कांय म्हत्वाचीं ठाणीं घेतलीं.

कोलंबो येवजणे प्रमाण चीनान हेविशीं उलोवणीं करपाक मान्यताय दिली आनी १९७६ त दोनूय देशांमदीं वाटाघाटी सुरू जाल्यो. तातुंतल्यान दूतावास, मंचाचें यो - वच वाडलें. कांय प्रमाणांत वेपारूय सुरू जालो आनी आतां कैलास, मानसरोवर ह्या जाग्यांनी भारतीय यात्रेकारांचें यो - वच सुरू जालां. पूण आक्साय चीनाचो प्रस्न अजून सुटूंक ना.

शेती हो हांगाच्या लोकांचो मुखेल उद्देग. लडाखाच्या देगणांनी गंव, जव, बाजरी, वाटाणे, घेवडो हे सारकिलीं धान्यां आनी सफरचंद, जरदाळू, अक्रोड हीं फळां पिकतात. गिमांत हांगा दोट्टी पिकां घेवपाक मेळटात. तशेंच कांय लडाखी लोक ऊंच दोंगराळ प्रदेशांत रावन मेंढरां आनी संकरीत याक हीं जनावरां पोसपाचो वेवसाय करतात.

लडाखाचे वट्ट लोकसंख्येंत अर्दे मुसलमान आसून तांची अस्तंत भागांत चड वसती आसा. जाल्यार उदेंत भागांत बौध्द, हिंदू, शीख आनी तिबेटी लोकांची वसती आसा. बरेचशे मुसलमान मूळचे हिंदू आसून तांचेमदीं पोरण्यो हिंदू चालीरिती दिश्टी पडटात. जातकर्म, मूज आनी लग्न ह्या संस्कारांनी धर्म वेगळे आसले तरीय कांय रुढी सारक्यो आसात. कांय हिंदू कार्यावळींनी मुसलमान बायलोय वांटो घेतात. लडाखांतल्या मुसलमानांमदीं साटेलोटे, लग्नाची पद्दत रुढ आसून अजुनूय बौध्दांमदीं बहुपतित्वाची चाल आसा. तशेंच

तांच्या पोशाखांतूय हवामानाक लागून चडशें वेगळेपण दिसना. बल्टिस्तानांतले मुसलमान सुन्नी पंथाचे आसुनूय थळाव्या श्रध्दांप्रमाण ते वेगवेगळे विधी करतात. लडाखांत चीन आनी तिबेट ह्या देशांतल्यानूच बौध्द धर्म आयलो. बौध्द धर्मियांचें प्रेरणास्थान दलाय लामा. ताका भगवान बुध्दाचें प्रतिरूप मानतात. लडाखांतलो बौध्द धर्म तंत्रीक पंथाक लागींचो. लडाखांत हेमिस, शंकर, थिकसे, स्पिटूक, चेदे, ट्रापक सारकिल्यो नामनेच्यो गुम्पा (गोम्पा - बौध्दांचीं धर्मीक क्षेत्रां - मठ) आसात. हांचेभायर हेर धर्मियांच्यो मशिदी, गुरूद्वारां आसात. बुध्दजयंती, पद्मसंभव जयंती, गुस्तर सारकिले बौध्दांचे धर्मीक दीस श्रध्देन मनयतात. हातूंत पिशाच्च नाच ही म्हत्वाची कार्यावळ मानतात. कारण त्या वेळार लामा नाच करतात.

लडाखी लोकांनी शिक्षणीक मळारूय बरीच उदरगत केल्या. मुळाव्यो आनी माध्यमिक शाळा, पाठशाळा, शिकोवप्यांखातीर प्रशिक्षण केंद्र, प्रौढांखातीर साक्षरतायकेंद्रां आनी समाजीक केंद्रां अशीं जायतीं केंद्रां लडाखांत निर्माण जाल्लीं आसून जायते चले चलयो आनी प्रौढ लोक त्या केंद्रांतल्यान शिक्षण घेतात.

लडाखांत बौधी, बल्टी, लडाखी ह्यो मुखेल भाशा आसून उर्दू, हिंदी आनी तिबेटी भाशाय प्रचलीत आसात. तांची लिपी म्हणजे देवनागरीचोच एक प्रकार कविता आनी गाथा ह्या स्वरुपांत हांगा बरेंच लोकसाहित्य मेळटा.

लडाखाची अशी खास संस्कृताय आसून तातूंत सगळ्या धर्मांमदीं एकवट दिसता. लडाखी लोक कलात्मक प्रवृत्तीचे. गोम्पांच्यो भितरल्यो वण्टी ते चित्रांनी सजयतात. चित्रकलेप्रमाण शिल्पकलेंतूय ते प्रवीण. ऊंच जाग्यार बांदिल्ले भोवमजली विहार आनी बुध्दाच्यो मुर्ती ह्यो तांचे शिल्पकलेंतली कुशळटाय दाखयतात. मूलबेख गांवालागीं न्हिदिल्ले अवस्थेंतली मैत्रेय बुध्दाची एक मूर्त आसा. ती एकेच शिळेंतल्यान घडयल्या. तशेंच लेहांतल्या गोम्पांत दोन मजल्यांचेर मेळून एक प्रतिमा तयार केल्ली आसा. लेहापसून ८ मैल अंतराचेर धातूची एक विशालकाय बुध्द प्रतिमा आसा. कांय गोम्पांनी भांगर रुप्याच्योय रत्नजडीत बुध्दमुर्ती मेळटात.

लडाखान आतां जायती प्रगती केल्ली आसा. आतां थंय ४० एकरांमदीं शेती जाता. तांणी जायतीं खारजां आनी धरणांय बांदल्यांत. तशेंच थंय चार शेतीसंशोधन केंद्रांय स्थापन जाल्यांत. पशूंचे जतनायेखातीर पशुप्रजनन केंद्रांय उगडल्यांत. तांचेखातीर एक चिकित्सालयूय स्थापलां. मनशांखातीर जायते दवाखाने आनी हॉस्पिटलां आनी भोंवतणीं फार्मसी हांचीय तजवीज केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**लडायेचीं विमानां :** (पळेयात विमान).

**लतिफ, इद्रिस हसन :** (जल्म : १ जून, १९२३, हैदराबाद, आंध्र प्रदेश).

भारताचो आदलो हवाई दळाचो मुखेली. ताचें शिक्षण हैदराबादच्या निजाम कॉलेजांत जालें. फुडें संरक्षण सेवा महाविद्यालय, वेलिंग्टन (तमीळनाडू) हांगासावन पदवी घेतले उपरांत ताका हवाई दळांत १९४२ वर्सा कमिशन मेळ्ळें. ते उपरांत कांय काळ अंबालाक (हरयाणा) ताचें वैमानिकी प्रशिक्षण जालें. १९४३ ताणें इंग्लंडांत शाही विमानदळाच्या (रॉयल ॲर फोर्सच्या) हरिकेन आनी स्पिटफायर ह्या लडायेच्या विमानासंबंदींचो अभ्यास केलो.

दुसऱ्या म्हाझुजांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पयलीं ताणें इंडोनेशियी वायुदळाचो मुखेली आनी फुडें ब्रह्मदेशांतले (मियानमारांतले) आराकान आघाडीचेर भारतीय वायुसेनेंतल्या चवथ्या स्क्वॉड्रनाचें फुडारपण केलें. १९६१ - १९६५ ह्या काळांत वॉशिंग्टनांत भारतीय राजदुतावासांत ताणें हवाई विभागांत सहाय्यक म्हणून काम केलें. १९७१ त भारत - पाक झुजाच्या वेळार ताची सहाय्यक हवाई दलाच्या मुखेल पदाखातीर नेमणूक केली. त्या वेळार भारतीय हवाई दलाचें आधुनिकीकरण करपांत ताचो म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. १९७४ त ताका ॲर मार्शल हो हुद्दो मेळ्ळो. १९७६ - १९७७ ह्या काळांत तो ताणें सँट्रल ॲर कमांडाचो प्रशासकी मुखेली आनी ते उपरांत ॲर ऑफिसर कमांडिंग इन चीफ म्हणून मोलाचें काम केलें. १९७७ त ताची हवाई दलाच्या उपप्रमुखपदार आनी ते उपरांत प्रमुखपदार १९७८ - १९८१ मेरेन नेमणूक केली.

१९८२ - १९८५ ह्या काळांत लतिफ महाराष्ट्र राज्याचो राज्यपाल आसलो. तेन्ना ताणें राजभवन वाठारांत अपंगूळ भुरग्यांखातीर सुविधा उपलब्ध करून दिल्यो. तशेंच ताणें पुणे विद्यापिठाचो वाठार झाडांनी भरून काडपाखातीर प्रोत्साहन दिल्लें. १९७१ त ताका परम विशिश्ट सेवा पदक फावो जालें. १९८५ वर्सा सावन तो फ्रांसांत भारताचो राजदूत म्हणून काम पळयता. १९९० त हैदराबादच्या व्हीएसटी इंडस्ट्रीज लि. ह्या कंपनीच्या संचालक मंडळाचेर ताची नेमणूक जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**लयराय :** गोंयची एक शक्तिदेवता. दिवचल तालुक्यांतल्या ३० किमी. च्या अंतराचेर शिरगांव ह्या गांवांत श्रीलयराय हे देवतेचें स्थान आसा. सात भयणींमदली ही एक भयण अशें मानतात. ती कलशरुपांत आसा. हे देवीची मूळ मूर्त तांदळास्वरुपाची आसून उत्सवमूर्त चतुर्भूज (चार भुजांची) आसा. हिका वैष्णवी मायेचो अवतार समजतात. हिचे संबंदान रचिल्ल्या पदावयल्यान अशें दिसता, हिची मूळ सुवात दोंगर आसुये आनी उपरांत कोणे तरी भक्तान तिची मुळसाकडेन स्थापना केल्या जावंक जाय. सप्तमातृकांत वैष्णवी नांवाची एक

मातृका आसा, ती हीच आसुये.

दर वर्सा वैशाख शुध्द पंचमीक शिरगांवां व्हड जात्रा जाता. पुराय गोंय तशेंच गोंयाभायल्यानूय विंगड विंगड जातीजमातींचे लोक हे परंपरीक जात्रेचे वांटेकार जातात. हे जात्रेचें खाशेलेपण म्हळयार होमखण. जात्रेचे रातीं देवळा भोंवतणीं आशिल्ल्या एका वडाच्या झाडापोंदा व्हड होमखण पेटयतात आनी हे देवीचे भक्त जांकां 'धोण' अशें म्हण्टात, ते त्या पेट्ट्या होमखणांतल्या रसरशिल्ल्या इंगळ्या वयल्यान देवी फाटल्यान चलत वतात. पवित्र धोणांक कांयच त्रास जायना, पूण धोणाकडल्यान चूक जाल्ली आसत जाल्यार मात ताचे पांय भाजतात, अशें मानतात. हें एक जागृत देवस्थान अशी लोकांची भावना आसा. ज्या वडाच्या रुखातळा होमखण पेटयतात त्या रुखाचें एक लेगीत पान बावना, वा सुकना अशें सांगतात. तशेंच देवीक गाराणें घालून होमखणांत उडयल्लें देवीच्या कळसावयलें फुलूय जळना, पूण जर जळ्ळें जाल्यार देवीचें रागणें पडलां, अशें समजून गाराणें बी हेर विधी करतात. गोंयांत लयरायेची जात्रा ही एक नामनेची जात्रा जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : 'धोंड'

**ललित कला अकादेमी :** भारतीय संस्कृताय आनी कलांची परंपरा हांचें जतन आनी संवर्धन जावंचें म्हणून केंद्र शासनान निर्माण केल्ली एक राश्ट्रीय पांवड्यावयली स्वायत्त संस्था. ललित कला अकादेमी हे संस्थेची स्थापना ऑगस्ट १९५४ त जाली. चित्रकला, शिल्पकला, वास्तुकला आनी हेर कनिश्ठ उपयोजीत कला हांचो अभ्यास, संशोधन, प्रसार, कलाशिक्षण दिवपी संस्थांक उत्तेजन आनी अर्थीक आदार दिवप हीं कार्यां हे अकादमीच्या वतीन करतात. हांचे भायर राश्ट्रीय स्तराचेर वर्सुकी प्रदर्शनां भरोवप, आंतरराश्ट्रीय प्रदर्शनां आयोजीत करप, कलेविर्शींचें साहित्य प्रकाशीत करप, कार्यशाळा, परिसंवाद घेवप, पुरस्कार दिवप हीं कामां ही संस्था करता.

अकादेमीचो कारभार पळोवपाखातीर दर पांच वर्सांतल्यान एक फावट सर्वसादारण परिशदेची (जनरल काउन्सिल) नेमणूक करतात. पुराय देशांतले कलाकार मतदानाच्या आदारान वांगड्यांच्यो नेमणुको जातात. तांचो एक थारायल्लो आंकडो आसा. तेभायर खास निमंत्रीत केल्ले कांय नांवाजते कलाकार तशेंच राज्यांनी धाडिल्ले आपले प्रतिनिधी, राश्ट्रीय संग्रहालय, 'नॅशनल गॅलरी ऑफ मॉडर्न आर्ट', केंद्र शासनाचो संस्कृतीक विभाग हांणी धाडिल्ले प्रतिनिधी हांचो सर्वसादारण परिशदेंत आस्पाव जाता. अकादेमीच्या अध्यक्षाची नेमणूक राश्ट्रपतीकडल्यान जाता आनी ताची मुजत फक्त पांच वर्सांची आसता. कार्यभाराप्रमाण सर्वसादारण परिशद वेगवेगळयो उपसमित्यो नेमता. नेमांप्रमाण परिशद आनी उपसमित्यो हांच्यो सभा भरतात. हे संस्थेचें कार्यालय रवींद्र भवन, नवी दिल्ली हे सुवातेर आसून, तातूंत ग्रंथालय, कला प्रदर्शनांखातीर दालनां, कलासंग्रह हांचो आस्पाव जाता.

ललित कला अकादेमीच्या ग्रंथालयांत अस्तंती कला आनी भारतीय कला हे संबंदीं सगळें साहित्य उपलब्ध आसता. तेभायर ललित कला कंटॅम्पररी (इंग्लीश) आनी ललितकला - समकालीन (हिंदी) ललितकला हीं नेमाळीं नेमान उजवाडा येतात. दर वर्सा कलासंवत् हे पुस्तिकेंतल्यान वर्सभर जाल्ल्यो कलाक्षेत्रांतल्यो म्हत्वाच्यो घडणुको आनी कार्य हांचो नियाळ घेतात. हे भायर कलाविशयक साहित्य, समकालीन चित्रकार - शिल्पकार हांच्या चरित्रांचेर आनी कला कारकीर्दीविशीं छापिल्ले चित्र संग्रह आनी म्हत्वाच्या चित्रकारांच्या चित्रांच्यो प्रतिकृती उजवाडायतात. दर वर्सा जानेवारींत संस्थेवतीन राश्ट्रीय कला प्रदर्शन भरता. सगळया भारतांतल्यान येवपी हजारभर कलाकृतींतल्यान गुणसंपन्न कलाकृतींची कांटेकोर रितीन निवड करतात. तातुंतल्या १० उत्कृश्ट कलाकृतींक दर एकीं १० हजार रुपयांचीं इनामां दितात. हाचेभायर आनीक एक म्हत्वाची गजाल म्हळयार दर तीन वर्सांनी हे संस्थेवतीन 'ट्राएनियल' हें तीन वर्सुकी आंतरराश्ट्रीय कला प्रदर्शन भरता. संवसारांतले खूबशे देश ह्या प्रदर्शनाखातीर निवडक कलाकृती धाडटात. उत्कृश्ट कलाकृतींची निवड करपाखातीर आंतरराश्ट्रीय परिक्षक समिती नेमिल्ली आसता आनी उत्कृश्ट कलाकृतींक दर एकल्याक पन्नास हजार रुपयांचें इनाम दितात. दर एका देशाचो स्वतंत्र विभाग ह्या प्रदर्शनांत मांडटात. तेच वांगडा भारताच्या दालनांत वेंचीक भारतीय कलाकारांच्यो शिल्पकृती आनी चित्रां प्रदर्शीत करतात. ह्या आंतरराश्ट्रीय प्रदर्शनाक जोडून 'कला मेळा' हें सगळया कलाकारांक प्रवेश आशिल्लें प्रदर्शन भरता.

हे भायर संस्थेची स्वताची कार्यशाळा दिल्ली कलकादेवी रस्त्यार आसून आठ स्वतंत्र चित्रशाळा आनी चार भौशीक कार्यशाळा आसात. हांचेमदली स्वतंत्र चित्रशाळा प्रथितयश कलाकाराखातीर आसून सामुहिक कार्यशाळा मृत्पात्री, शिल्पकला आनी मुद्रानिर्मिती ह्या कलाक्षेत्रांनी काम करपी विद्यार्थ्यांखातीर आनी कलाकारांखातीर उक्त्यो आसात. संस्थेवतीन चित्रकला, शिल्प आनी मुद्रानिर्मिती ह्या विशयांनी काम करपी आसात. दर म्हयन्याक एक हजार रुपयांच्यो पांच संशोधन शिश्यवृत्त्यो कलाक्षेत्रांतल्या पदवीधर विद्यार्थ्यांक दर वर्सा दितात. हे कार्यशाळेचो प्रयोग फळादीक जाल्ल्यान अकादेमीन विभागी केंद्रांची येवजण आंखली. हे येवजणे अंतर्गत चेन्नय, लखनौ, कलकत्त्याक अनुक्रमान १९७८, १९८३ आनी १९८४ कार्यशाळा बांदल्यो. १९८७ वर्सा भुवनेश्वराक 'राश्ट्रीय कला केंद्र' ह्या नांवान अशो कार्यशाळा कार्यान्वीत केल्यो. केंद्रांची देखरेख, वेवस्थापन आनी संयोजन अकादेमीकडल्यान जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**ललितविस्तार :** बौध्दाच्या महायान संप्रदायाचो एक पवित्र ग्रंथ. हाका वैपुल्यसूत्र अशेंय नांव आसा. बुध्दान हे धर्तरेचेर ज्यो क्रिडा (ललित) केल्यो, तांचें वर्णन ह्या ग्रंथांत आशिल्ल्यान ह्या ग्रंथाक हें नांव मेळळें. गौतम बुध्दाच्या जल्मापसून धर्मचक्रप्रवर्तनामेरेनचें ताचें चरित्र ह्या ग्रंथांत मेळटा. ह्या ग्रंथांत गद्य आनी पद्य हीं दोनूय रुपां पळोवंक मेळटात. हातुंतल्या कथांचो वांटो चडसो गद्यात्मक आसून मदीं मदीं पद्यात्मक गाथांचो आस्पाव केल्लो आसा. ह्यो गाथा म्हळयार सुंदर गांवगिरीं गितांच आसून त्यो खूब पुर्विल्ल्यो आशिल्ल्याचें संशोधक सांगतात. मुळांत हो ग्रंथ हीनयानी पंथांतल्या सर्वास्तिवादी निकायाचो आशिल्लो पूण फुडें ताका महायानी स्वरूप मेळळें आनी ताचो आकारूय वाडलो.

ह्या ग्रंथाचे परिवर्तन ह्या नांवाचे २७ अध्याय आसात. ह्या ग्रंथांतलें बुध्द चरित्र तो अवतारी मनीस आसा अशें धरुनूच वर्णिल्लें आसा. ह्या ग्रंथाचेर वैष्णव अवतारवादीची छाप स्पश्टपणान दिश्टी पडटा. अवताराचे हेतूय दोनूयकडेन खूबशे सारके दिसतात. ह्या ग्रंथांत बुध्दाक तुषित लोकांमदीं वसणूक करपी सम्यक संबुध्दाचो अवतार मानिल्लो आसा. ललित विस्ताराचे सुरवातिकूच अशें म्हळा, सम्यक संबुध्द सगळ्या देवांचो गुरू आनी भगवान आसा. सगळे देश ताका दुख्ख आनी अज्ञान हांचो नाश करपी अशें समजतात.

तिसऱ्या अध्यायांत बुध्दाचो विशिश्ट काळ, देश, सुवात आनी जाती हांचेमदीं जावपी अवतारकारणांचेर उजवाड घाल्लो आसा.

ललितविस्तारांत जायतेकडेन बुध्दाक नारायणाचो अवतार आनी नारायणाचे शक्तीन युक्त असो मानिल्लो आसा. नारायणाची सगळी गुणवत्ता आनी शक्तीसंपन्नताय बुध्दाच्या आंगांत मानल्या, ताचेवयल्यान बौध्द अवतारवादाचेर पुराणीक वैष्णव अवतारवादाचो प्रभाव खरपणान पडिल्लो दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**लल्ल :** (इ.स. सवो वा सातवो शेंकडो).

भारतीय ज्योतिर्विद. ताणें ज्योतीशशास्त्राचेर ग्रंथ बरयल्यात. ताच्या चरित्राविशीं खास अशी म्हायती मेळनाशिल्ल्यान ताच्या काळाविशीं कांय मतभेद आसात. त्रिविक्रम भट्टाचो हो पूत. पयल्या आर्यभट्टाचो तो शिश्य आसूंक जाय अशें कांय जाणांचें मत आसा. शं. बा. दीक्षित हाच्या मतान हाचो काळ आर्यभट्टा उपरांतचो. तशेंच तो दक्षिण भारतीय आसुंये. धी वृध्दितंत्र हो ग्रहगणित ग्रंथ आनी रत्नकोश हो मुहूर्तग्रंथ ताणें बरयला. पाटीगणित होय ताचो ग्रंथ आसुंये अशें भास्कराचार्याच्या गोलाध्यायावयल्यान दिसता. बीजगणित आनी जातक हांचेरुय लल्लान ग्रंथ बरयल्यात आसूंक जाय. लल्ल हो स्वता वेध घेवपी संशोधक आशिल्लो आनी ताच्या वेध घेवपाच्या यंत्राचें नांव गोलबंध आशिल्लें. पीठ आनी उदकाची घड्याळ ह्या उपकरणांचीं वर्णनां ताच्या ग्रंथांत आयिल्लीं आसून यष्टियंत्रांत रवि - चंद्रीम अंतर आनी ताचेवयल्यान तीथ काडपाची रीत दिल्ली आसा. तशेंच, ताणें वातावरणाची उंचाय १२ योजनां (सु. ९६ किमी.) आनी रेवती भोग ३५९° मानिल्लो. ताणें त्रिकोणमितीचीं कांय सुत्रां दिल्लीं आनी पायचें (ळ) मोल ३.१४१५ इतलें मानिल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

**लल्लूलाल :** (जल्म : १७६३; मरण : १८६५).

एक व्हड ग्रंथकार. तो औदीच्यं ब्राह्मण. तो आगराक रावतालो. ताचो बापूय पुरयतपण करतालो. फुडें लल्लूलालाक आपलो उदरनिर्वाह करपाक खूब भोंवचें पडलें. मुर्शिदाबादेक गोस्वामी गोपाळदास हाचेवरवीं ताची नबाब मुबारकउदौला हाचेकडेन वळख जाली. नबाबान ताका सात वर्सां आलाशिरो दिलो. फुडें गोपाळदासाक मरण येतकच तो कलकत्त्याक गेलो. थंय ताका राजा रामकृष्ण हाचो आदार मेळ्ळो.पूण थोड्याच काळांत त्या राज्यांत ताका त्रास जावपाक लागले. तशेंच, राजा रामकृष्णूय बंदी जालो. तेन्ना लल्लू नाटोरच्यान कलकत्त्याक आयलो. एक दीस ताणें गंगा न्हंयेत उडी घेवन एका बुडपी इंग्लीश मनशाक वाचयलो. त्या इंग्लीश मनशान उपकारी जावन ताका खूब आदार दिलो. ताका एक छापखानो घालून दिलो. फुडें आनिकूय कांय इंग्लीश अधिकाऱ्यांच्या संपर्कांत येतकच इ.स. १८०० वर्सा फोर्ट विल्यम कॉलेजींत प्राध्यापक म्हणून ताची नेमणूक जाली. हिंदी भाशेंत गद्य रचना करपाचें काम ताका दिलें. सुरवेक ताणें सिंहासनबत्तीशी, वेताळपच्चीशी, शाकुंतल नाटक आनी माधोनल ह्या ग्रंथांचो खडी बोलींत अणकार केलो. फुडें सभाविलास, माधवविलास, लतायफे हिंदी, लाल चंद्रिका, ब्रजभाशा व्याकरण अशे जायते गद्य ग्रंथ ताणें रचले. ताच्या ह्या सगळ्या ग्रंथांनी प्रेमसागर ह्या ग्रंथाक चड नामना मेळ्ळी. तो भागवताच्या दशम स्कंधाचेर आदारिल्लो आसा. ह्या ग्रंथांत मदीं मदीं कांय दोहा आनी चौपायोय आसात. ह्या ग्रंथावयल्यानूच लल्लू हो आर्विल्ल्या हिंदी गद्याचो जनक थारिल्लो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**लल्लेश्वरी :** (इ.स. १४ वें शतमान).

एक संत कवयित्री. हिका लल्लयोगीश्वरी, लालदीदी वा लालदेद ह्याय नांवांनी वळखताले. एका मध्यमवर्गीय काश्मीरी पंडिताच्या घराण्यांत तिचो जल्म जालो. तिचीं आवय - बापूय श्रीनगरा लागसारच्या पांद्रेठण ह्या गांवांत रावतालीं. तिच्या भुरगेपणांतली व्हडलीशी म्हायती मेळना. पूण तिचें मुळावें शिक्षण सिध्द श्रीकंठ नांवाच्या एका शैव आचार्याकडेन जाल्लें. ताणें तिका शैवदर्शनाचें पुराय तरेन गिन्यान दिल्लें. उपरांत तिचें लग्न ताम्पूर गांवच्या एका ब्राह्मण तरणाट्याकडेन

जालें. थंय तिका सवती मांयच्या जांचांक तोंड दिवंचें पडलें. आवयचे सांगणेंत आशिल्ल्यान घोवाचें आनी तिचे केन्नाच जमलेंना. ह्या दुख्खान तिका वैराग्य उत्पन्न जालें. तिणें घर सोडलें आनी ती सिध्द श्रीकंठाकडेन गेली. ताणें लल्लाच्या वैराग्याची खरसाण पळयली आनी तिका आत्मगिन्यानाच्या साधनाचो मार्ग दाखयलो. शैवयोगाची साधना करता आसतना एकदीस ती पुराय तरेन योगिनी जाली. योगसाधनेंतल्यान तिणें आत्मसाक्षात्कार करून घेतलो.

ह्याच काळांत तिच्या अंतरांत कवित्वाक पालवी आयली. ती स्वता पदां रचूंक लागली आनी तीं गायत भोंवूंक लागली. भोंवतां भोंवतां तिका आपल्या कपड्यांचें लेगीत भान उरनासलें.

त्या काळांत काश्मीरांत हिंदू आनी मुसलमान हांचेमदीं धर्मीक तणाव खूब आशिल्लो. काश्मीरी जनता ह्या संघर्शान पुराय तरेन पिळून गेल्ली. अशा वेळार लल्लेश्वरीन हिंदू - मुसलमान एकचाराचेर खूब भर दिलो. ती आपल्या उपदेशांवरवीं आपल्याच आध्यात्मिक अनुभुतींचें वर्णन करतना दिसता.

आयज तिच्या जायत्या पदांच्यो ओळी नितीवाक्यां जावन रावल्यांत. हिंदू आनी मुसलमान ह्या दोनूय समाजांमदीं तिका मान आसा. ती जरी शैव दर्शनांत सिध्दज्ञानी आशिल्ली तरीय तिणें कोणाय आचार्यावरी शैवसिध्दान्ताचें विवेचन वा विवरण केलेंना. तिणें आपल्या रहस्यमय अनुभुतींतल्यान मेळिल्ल्या विचारांचोच सगळयांक उपदेश केलो.

सर रिचर्ड टँपल हाणें लल्लेश्वरीच्या काव्याचेर एक पुस्तक बरयलां. तेभायर रॉयल एशियाटिक सोसायटीन 'लल्लवाक्यानि' वा 'लालदेद की वाणी' ह्या नांवाचो एक प्रबंध उजवाडाक हाडिल्लो आसा. श्रीनगरा लागसारच्या व्रजविहार नांवाच्या गांवांत जुम्मा माशिदीमुखार तिका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**लवंग :** (हिंदी : लौंग; संस्कृतः लवंग, देवकुसुम; इंग्लीशः क्लो; लॅटीनः सायझिजियम ॲरोमातिकम, युजेनिया कॅरिओफायलाटा; कूळः मिर्टेसी).



हें सुमार ९- १२ मी. उंचायेचें आनी सदांच पाचवें उरपी झाड. ताचें मूळस्थान इंडोनेशियांतले मोलकाझ (मोलुकू) जुंवे आसून मलेशियांतल्या कांय जुंव्यांचेरूय तें मेळटा. तशेंच श्रीलंका, इंडोनेशिया, मालागासी, झांझिबार, पेंबा (टांझानिया), सेशेल्झ जुंवे, पिनँग, रेयुन्यों जुंवे, मॉरिशस आनी वॅस्ट इंडीजाकूय ताची लागवड केल्ली. भारतांत तमीळनाडूंत आनी केरळांत ह्या झाडाची लागवड करतात.

रामायण, चरकसंहिता, सुश्रुतसंहिता आनी म्हाकवी कालिदासाच्या संस्कृत काव्यांत आनी नाटकांत लवंगाचो उल्लेख मेळटा. चीनांत इ.स. आदीं तिसऱ्या शतमानांत तीं उपेगांत आशिल्लीं. चीनांत बादशहाकडेन उलयतना आपलो स्वास सुगंधीत करपाखातीर तोंडांत लवंग धरपाची रीत आशिल्ली. पुर्विल्ल्या काळांत चीनी लोकांचो भारत आनी अँबोइनांत लवंगाचो वेपार आशिल्लो.

**इतिहास :** दक्षिण अरबी लोक खूब आदीं भारतीय दर्यादिगेर सोद घेवन इस्ट इंडिजांतल्यान मसाल्याचे पदार्थ पयलीं इराणाच्या आखातांत आनी थंयच्यान काफल्यांवरवीं ॲलक्झांड्रिया वा हेर उदेंत भूमध्य दर्याच्या बंदरांनी हाडटाले. सोळाव्या शतमनांत पुर्तुगेजांनी मोलकाझ जुंव्याचो सोद लायलो आनी लवंगाचें मूळस्थान सोदून काडलें. मध्ययुगाच्या मध्याउपरांत मसाल्याच्या पदार्थांखातीर पुराय युरोप उदेंती देशांतल्यान जावपी आयातीचेर आदारून आशिल्लो. तातुंतल्या लवंगांचो वापर अन्नसंबंदांत जातालो. सतराव्या शतमानाचे सुरवेक हॉलंडी लोकांनी ॲबोइना, तेर्नाते हांचेभायर सगळया जुंव्यांवयल्या लवंगांचे लागवडीचेर बंदी घाली. फुडें अठराव्या शतमानांत निमाणें फ्रांसेझांनी इश्ट इंडिजांतल्यान हिंदी म्हासागरी जुंव्यार आनी अमेरिकेंत चोरये मार्गांत लवंगांची आयात केली. १७६८त तांणी लवंगांचे लागवडीचेर बंदी घाली. १७७० च्या सुमाराक फ्रांसेझ लोकांनी पॅरिसांत लवंगांची लागवड केली. उपरांत ताचो उश्ण वाठारांत प्रसार जालो.

फ्रांसेझ उतर 'क्लू' (Clou - खिळो) हाचेवयल्यान लवंगांक इंग्लिशींत क्लोव हें नांव पडलें. ह्या झाडाचें मुखेल खोड सरळ आनी ऊंच आसता. ताचो घेर सुमार १०० सेंमी. आसता. सुमार २.० मी. उंचायेउपरांत तें विभागून वाडटा. ताची साल करडी आनी गुळगुळीत आसता. पानां सादीं, लांब भाल्यावरी, मध्यम आकाराचीं, वासाळ आनी एकामेकां सामकार आसतात. झाडाच्या पुराय भागात वासाळ तेल आसता. पानांतूय तेलाचीं प्रपिंडां (गांठी) आसतात. जुलय - ऑक्टोबर आनी नोव्हेंबर - जानेवारींत ताळयेचेर ल्हान, वासाळ, सुरवेक पाचवीं आनी उपरांत किरमिजी रंगाचीं फुलां येतात. फळां वाटकुळीं तांबडींगूंज, मासाळ आनी २.५ x १.५ सेंमी. आनी बियो दोन आसतात. बी १.५ सेंमी. लांबशी, वाटुकळी आनी मोव आसून तिचेर एके वटेन चीर आसता. दर एका लवंगावयले चार तोंकांचे भाग म्हळयार फुलांतलीं संदलां आसतात.

भारतांत दर्यापातळेसावन सुमार १००० मी. उंचायेमेरेन लवंगाची लागवड जाता. ताका वर्सुकी पावस सुमार १५० - ३०० सेंमी. आनी ऊबदिण्या तशेंच दमट हवामानांत हें पीक बरें जाता.

तशेंच, ह्या पिकाक बऱ्या निचऱ्याची, खोल आनी दुमट जमीन गरजेची आसता. केरळांतले रेंवेचे भुसभुशीत आनी दुमट जमनींत वा जांभायुक्त जमनींत लवंगांचें झाड बरें वाडटा. माड, सुपारी, काफी ह्या सारकिल्या वेपारी पिकांमदीं लवंगांची लागवड करतात. तेभायर फकत लवंगांचे मळेय लायतात.

लागवडीखातीर पिकीं आनी ताजीं फळां उदकांत भिजोवन गोबर आनी रेंव हांकां घासून रोखडींच आळयांनी पेरतात. रोंप तयार जावपाक ४ - ५ सप्तकां लागतात. रोंप सुमार २५ सेंमी. ऊंच जातकच पावसाळयांत ताची लागवड ६० x ६० सेंमी. च्या आनी सुमार ६ मी. अंतराचेर आशिल्ल्या फोंडकुलांत करतात. रोंपां लायतकच तीन - चार वर्सांमेरेन तांचेर सावळी पडपाची आनी हातांनी उदक दिवपाची वेवस्था करची पडटा. रोंप लायतकच सुमार ७ - ८ वर्सांनी झाडाक फुलां येतात आनी दर एका झाडापसून सुमार २० - ३० वर्सांमेरेन वाडट्या प्रमाणांत चंवर येता. ३० - ६० वर्सां जाल्ल्या झाडापसून भरपूर उत्पादन जाता. पूण ते उपरांतचें उत्पादन अर्थीक नदरेन फायद्याचें नासता. लवंगाच्यो बंद कळयो कांय प्रमाणांत तांबड्यो जातकच हातांनी तोडटात. ताचेयपरस तरणे कळे तोडल्यार तांकां फुडें खोकर लवंगां म्हण्टात. तोडणी कांय दिसांचें अंतर दवरून परत परत करची पडटा. सादारणपणान २.५ ते ४.५ किग्रॅ. लवंगां दर वर्सा दर झाडापसून मेळटात. कांयकडेन हें प्रमाण ६.८ किग्रॅ. आसता. तोडणेउपरांत लवंगाच्यो ह्यो कळयो ४ - ५ दीस वतांत सुकयतात. वलसार आनी दमट हवामानांत कृत्रीम उश्णतायेचो उपेग करचो पडटा. हे प्रक्रियेंत तेलाचें प्रमाण बरेंच उणें जाता.

सुकयल्लें लवंग ल्हान खिळयावरी आनी तांबसार तपकिरी आसता. देंठावयल्या चार तोंकदार भागांनी वाटकूळसार कळी आसता. लवंग सुकोवपाची प्रक्रिया वेवस्थीत जाली जाल्यार लवंगां गाड, सुरकुतिल्लीं आनी उबट जातात. तांचें स्वरूप आनी शुध्दताय लक्षांत घेवन प्रतवारी करतात. खरें लवंग काळें कुळकुळीत आसून बोटांनी दामतकच तातुंतल्यान तेल येता. लवंगांत प्रतिशत २५.२ उदक, ५.२ प्रथिनां, ८.१ मेद, ९.५ तूंत, ४६.० हेर कार्बोहायड्रेटां आनी ५.२ खनिजां आसतात. दर शंभर ग्रामांनी ७४० मिग्रॅ. कॅल्शियम १०० मिग्रॅ. फॉस्फरस, ४.१ मिग्रॅ. लोखण आनी ५०.७ मायक्रोग्रॅ. आयोडीन आसता. तशेंच कॅरोटीन (२५३ मायक्रोग्रॅ.), थायामीन (0.0८ मिग्रॅ.), रिबोफ्लाविन (0.१३ मिग्रॅ) आनी निकोटिनिक आम्ल (१.५१ मिग्रॅ.) हीं जीवनसत्त्वां आसतात. लवंगांत १३% टॅनीन आसता.

लवंग हो मसाल्यांतलो म्हत्वाचो पदार्थ. रूचीखातीर आनी खमंगपण येवपाखातीर जेवणांत ताचो वापर करतात. चिकन, मटन, शाकोती आनी हेर प्राण्यांच्या मासांपसून तयार केल्ल्या मसाल्यांच्या पदार्थांनी लवंगांचो उपेग करतात. हाचेभायर तिखसाण आनी सुवास हांकां लागून केक, पुडींग, शिरो, खीर, साकरभात, लाडू ह्या पक्वानांनी खूब वर्सांपसून लवंगांचो उपेग करतात. तशेंच, कांय मद्यां, खावपाचो तंबाखू, विडो, इंडोनेशियांत तयार केल्ल्यो खास सिगरेटी (केरेटेक) हांचेखातीर लवंगांचो वापर करतात. लवंगांपसून तेल काडुनूय ताचो उपेग करतात. दंतमंजन, न्हावपाचो शाबू, सौंदर्य प्रसाधनां, वासाळ द्रव्यां हातूंत ह्या तेलाचो उपेग करतात.

पुरातन काळासावन वखदांनी लवंगांचो उपेग करतात. लवंग वासाळ, उत्तेजक आनी वायुनाशक आशिल्ल्या जठरांतल्या दाहाचेर आनी अग्निमांद्याचेर दितात. मळमळ, शिसारी, वांती आनी उदरवायू हांचेर लवंगाची पूड वा काडो दितात. अतिसंवेदनशील दंतीन आनी किडिल्ल्या दांतांतल्या पोकळयांक तात्पुरत्या भेरावपाक लागून ह्या तेलाचो उपेग करतात. झींक ऑक्सायड आनी लवंगांतेल हांचें मिक्षण दातांतले पोकळेंत घालतात.

भारतांत लवंगाच्या झाडाक गंभीर अशे पिडेचो उपद्रव जायना. ताचेर मर, पान कुसप, टिक्का, सल ह्यो पिडा आनी पानां खावपी कीड आनी खोड कीड ह्यो किडी दिश्टी पडटात. तीन वर्सांभितरल्या रोंपाक कवकजन रोग जावन ९०% रोंपां मरतात. तांचेर आळो हाडपाक बोर्डो मिश्रण आनी गंधकपूड फवारतात. मलेशियांत कवकापसून पानां बेगीन गळपाची पिडा जाता. कांयकडेन लवंगाच्या मुळाक लागता जाल्यार कांयकडेन कॉकशेफर भुंगेरे तरणो पालो खावन लुकसाण करतात. रॉमेक्झिन फवारून तशेंच बीएचसी. उदकांत भरसून पिकार फवारल्यार तांचेर नियंत्रण दवरूं येता.

१९७९ वर्सा सावन रत्नागिरी आनी सिंधुदुर्ग जिल्ह्यांत ७,००० लवंग रोंपांची लागवड केल्ली. दर्यादिगेवयल्या वाठारांत बरे निचऱ्याचे रेंवट, गाळभरशीत रेंवट आनी तांबडे मातयेंत तशेंच दर्यापातळेसावन चड उंचायेचेर आशिल्ल्या सपाट आनी दोंगर उतारावयले जमनींत लवंगाची लागवड बरी जाल्ली आसा. भारतांत १९८४ च्या सुमाराक सुमार १२० हॅक्टर क्षेत्र लवंगांखाला आशिल्लें.

**लवंग तेल :** लवंगांपसून ऊर्ध्वपातनान १४ - २३% शुध्द, रंगहीन वा लेव हळदुवें तेल मेळटा. पोरण्या तेलाचो रंग तांबसार तपकिरी आसता. तातूंत १७% युजेनॉल ($C_{10}H_{12}O_2$) हें रसायन आसता. तेभायर तातूंत मिथिलएन - एमिलकिटोन तशेंच कांय प्रमाणांत मिथिल सालिसिलेट, मिथिल बँझोएट, मिथिल आल्कोहॉल, बँझिल आल्कोहॉल हीं रसायनां आसतात. लवंगाच्या पानांतल्यानूय ४ - ५% बाश्पनशील तेल मेळटा. तातूंत युजेनॉल उणें आसता. फळांत फकत ६.५% तेल आसता. हातूंत ८५ - ९५% युजेनॉल आसता.

झांझिबार आनी पेंबाक चड करून वेपारी म्हत्व आशिल्ल्या लवंग तेलाचें उत्पादन जाता. श्रीलंका, पिनँग आनी इंडोनेशियांत खूब उण्या प्रमाणांत उत्पादन काडटात. अमेरिका, ब्रिटन आनी कांय युरोपी देशांनी आयात केल्ल्या लवंगांचें तेल ऊर्ध्वपातनान काडटात. भारतांत टांझानिया आनी सिंगापुरांतल्यान चड करून लवंग आयात

करतात. फ्रांस, ब्रिटन, नेदर्लंडस्, टांझानिया ह्या देशांतल्यान तेल आयात जाता. नेपाळ, अरबी देश आनी कांय लागसारच्या देशांक कांय प्रमाणांत भारतांतल्यान लवंग आनी तेल निर्यात जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**लवंदे, विश्वनाथ नारायण :** (जल्मः २० एप्रिल १९२३, व्हडलें गोंय; मरणः पर्वरी १९९८).

गोंयचो सुटकेझुजारी. शिक्षण बीएस्सी; एल्एल्बी. ताचें उच्च शिक्षण कोल्हापुरांत जालें. कोल्हापूर शारांत शिकता आसतना ताणें भारत छोडो आंदोलनांत वांटो घेतिल्लो म्हणून ताका बंदरवणीची ख्यास्त जाल्ली. उपरांत कोल्हापूर शारांत ताणें राष्ट्र सेवा दल फांट्याची स्थापना करून कांय तेंप ताचें फुडारपण चलयलें. उच्च शिक्षण सोंपल्या उपरांत गोंयांत येवन, नोव्हेंबर १९४२ त ताणें मडगांवांत राष्ट्र सेवा दल फांट्याची स्थापना केली. १८ जून, १९४६ दिसा डॉ. लोहियान मडगांव शारांत घडोवन हाडिल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो म्हणून ताका आठ दिसांखातीर बंदरवणींत दवरलो. उपरांत त्याच वर्सा १८ नोव्हेंबर दिसा व्हडल्या गोंयच्या, मायणा गांवांत सभा घडोवन हाडिल्ल्यान नारायण पालेकारा वांगडा ताका ४५ दीस खर बंदरवणीची ख्यास्त फर्मायली. १८ डिसेंबर दिसा हळदोण्यां सत्याग्रह घडोवन हाडिल्ल्यान पुर्तुगेज पुलिसांनी ताका आनी सूर्यकांत नायक हाका धरून खूब मार दिलो. उपरांत २३ एप्रिल १९४७ दिसा तांकां खडे करून सोडून दिले.

विश्वनाथ राष्ट्रीय कॉंग्रेस गोंय फांट्याचो वावुरपी वांगडी आशिल्लो. पूण तांचेभितर वाद निर्माण जाल्ल्यान तो कॉंग्रेसींतल्यान भायर सरून एप्रिल १९४७ त आपल्या सांगात्यांच्या आदारान ताणें कुंकळ्ळे आझाद गोमंतक दल फांट्याची स्थापना केली. उपरांत तांणी पुर्तुगेजांआड गोंय मुक्त जायमेरेन आपल्यो हिंसक हालचाली चालूच दवरल्यो. जुलय १९४७त आपल्या कांय वेंचीक सांगात्यांच्या आदारान ताणें म्हापशेंचे भांडार (फाझेंद) लुटलें. तशेंच, डिसेंबर म्हयन्यांत विश्वनाथ आनी ताच्या सांगात्यांनी सरकारी पयसो घेवन वचपी वाहनाचेर घुरी घालून सगळो म्हालवज लुटलो. हाका लागून ताच्या कांय सांगात्यांक पुर्तुगेजांनी धरून बंदरवणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण विश्वनाथ भूंयगत रावून आपल्यो हालचाली करपाक लागलो. उपरांत ह्या गुन्यांवाक लागून मे १९४९ त पुर्तुगेजांनी ताचे गैरहजेरींत ताचेर खटलो चलोवन ताका २८ वर्सां तडीपार आनी एक वर्स बंदरवणीची ख्यास्त फर्मायली. १९५१ ते १९५४ ह्या काळांत बेळगांव, मुंबय, बांदा आनी आरोंद्याक राष्ट्रीय कॉंग्रेस गोंय संघटणा उबारपाक तो खूब वावुरलो. तशेंच, हे संघटणेवरवीं तो गोंयांत राश्ट्रवादी लिखाण धाडपाक लागलो. वझरें गांवांत आझाद गोमंतक दलाचो कॅम्प उबारून तो आपवावुरप्यांक गनिमी कावेबाजीचें शिक्षण दितालो. २१ जुलय १९५४ दिसा पुणें आनी मुंबयच्या शंभर आपवावुरप्यांच्या आदारान नगर हवेलीचें राजपाटण सिल्वासाचेर घुरी घालून तें सुवादीन घेतलें. उपरांत धा दिसांनी सबंद नगर हवेलीचेर ताबो मेळयलो आनी १५ ऑगस्ट १९५४ मेरेन तिचो कमांडो प्रशासक म्हणून वावुरलो. गोंयाक मुक्तताय मेळमेरेन ताणें आझाद गोमंतक दलाच्या वांगड्यांची संख्या ४०० वयर वाडोवन पुर्तुगेजांआड गनिमी डावपेंच आनी हिंसक कृत्यां चालूच दवरिल्लीं. ताका लागून ताणें आनी ताच्या सांगात्यांनी खर ख्यास्तूय भोगली. सुटकेझुजांत ताणें केल्ल्या मोलादीक वावराक लागून दादरा आनी नगर हवेली सरकारान १९६२ त ताचो भोवमान केलो. तशेंच, भारत सरकारनूय ताका ताम्रपत्र भेटोवन ताचो भोवमान केलो.

गोंय मुक्तताये उपरांत ताणें शिक्षण, कामगार, शेतकामती आनी शोफेरांचीं आंदोलनां घडोवन हाडून तांकां न्याय मेळोवन दिला.

स्वातंत्र्य झुजाऱ्यांचें पुनर्वसन जाग्यार घालपाच्या उद्देशान ताणें स्वातंत्र्य झुजाऱ्यांची संघटणा उबारपाक मोलाचें योगदान केलें. पणजेची नवजीवन सोसायटी आनी पर्वरीचें आझाद भवन ह्या स्वातंत्र्य झुजाऱ्यांसंबंदीत दोन संस्थांचो कारभार ताचे देखरेखीखाला आनी हेर स्वातंत्र्य झुजाऱ्यांच्या सहकार्यान ताणें वेवस्थीत सांबाळ्ळो. मराठी भाशेंत ताचीं दोन पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**लवण :** रसायनशास्त्रांत लवण म्हळयार आम्लाची (Acid) क्षारकावांगडा विक्रिया जावन तयार जाल्लो पदार्थ. क्षारकाचो घन आयन म्हळयार विद्युत्भारीत अणू वा अणूगट आनी आम्लाचो ऋण आयन हे मेळून लवण तयार जाल्लें आसता. आम्ल आनी क्षारक हातुंतले रसायनीक विक्रियेक उदासिनीकरण (neutralization) विक्रिया म्हण्टात. मीठ (Nacl), नवसागर ($NH_4$ cl), टाकणखार ($Na_2B_4O_7.10H_2O$), खावपाचो सोडा ($NaHCO_3$) आनी धुवपाचो सोडा ($Na_2CO_3$), तुरटी ($KAL(So_4)_2.12H_2O$) हीं लवणाचीं कांय सामान्य उदाहरणां आसात -

वनस्पत, प्राणी आनी खनिजां हातूंत लवणांचो आस्पाव आसता. लवणां हीं सैमीक उद्गमासावन वेगळीं करून वा उपलब्ध अशा कच्च्या म्हालासावन रसायनीक विक्रियांनी काडटात. लवणांचे निर्मितीखातीर बऱ्याचशा रसायनीक विक्रियांचो उपेग करप जाता, देखीक - (१) घटक मूलद्रव्यांचो संयोग घडोवन (२) धातू आनी आम्ल हांचे रसायनीक विक्रियेन (३) धातूचे ऑक्सायड, हायड्रॉक्सायड, कार्बोनेट वा सल्फायड हांचेर समुचीत आम्लाची विक्रिया करून वा योग्य अशा दोन लवणांच्या परस्पर विक्रियांनी, देखीक - सिल्वर क्लोरायडाखातीर सिल्वर नायट्रेट आनी सोडियम क्लोरायड हांच्यांतले विक्रियेन.

**प्रकार :** समुंचीत आम्लांतलें हायड्रोजन अणूचें प्रतिशठापन धातूंचें आयन वा ऋणायनी मुलकां हांणी करतकच लवणाचें संघटण सिध्द जाता. देखीक - हायड्रोक्लोरिक (HCL) आम्लापसून जावपी सोडियम क्लोरायड Nacl हें लवण. ज्या आम्लांच्या रेणूंत प्रतिशठापन जावपासारके एकापरस चड हायड्रोजन अणू आसतात तांचेपसून दोन तरांचीं लवणां मेळूं येतात. देखीक - सल्फ्युरिक आम्लापसून सोडियम सल्फेट $Na_2SO_4$ आनी सोडियम हायड्रोजन सल्फेट $NaHSO_4$. सोडियम सल्फेटाचे संघटणेंत सल्फ्युरिक प्रतिशठापीत जावपासारको एक हायड्रोजन अणू उरला.

आम्लांतले सगळे हायड्रोजन अणू प्रतिशठापीत जावन तयार जाल्ल्या लवणाक सामान्य लवण म्हण्टात आनी जातूंत कांय हायड्रोजन अणू प्रतिशठापीत जावंक नाशिल्ले आसात ताका आम्लीय लवण म्हण्टात. देखीक - सोडियम हायड्रोजन सल्फेट. आम्लाचे संघटणेंत दोनांपरस चड हायड्रोजन अणू आसत जाल्यार ताचेपसून एक सामान्य लवण आनी दोन आम्लीय लवणां तयार जावंक शकतात. देखीक - $H_3PO_4$ हाजेपसून $Na_3PO_4$ सोडियम फॉस्फेट हें सामान्य लवण आनी $Na_2HPO_4$ डायसोडियम हायड्रोजन फॉस्फेट आनी $NaH_2PO_4$ सोडियम डायहायड्रोजन फॉस्फेट हीं दोन आम्लीय लवणां जावंक शकतात.

दोन हायड्रोजन अणू आशिल्ल्या आम्लांतलो एक हायड्रोजन अणू एका धातूच्या अणून आनी दुसरो अणू दुसऱ्या धातूच्या अणून प्रतिशठापीत जालो जाल्यार त्या लवणाक मिश्र लवण म्हण्टात. देखीक - $NaKSO_4$ मिश्र लवणांचीं संघटणां तांच्या रेणूंतल्या घटक अणूंच्या संख्यांचो उल्लेख करून स्पश्टपणान दाखोवंक मेळटात. देखीक - $NaH_2PO_4$ सोडियम डायहायड्रोजन फॉस्फेट, $Na_2HPO_4$ डायसोडियम मोनोहायड्रोजन फॉस्फेट. लवणांचें संघटण क्षारकीय हायड्रॉक्सायडांतल्या हायड्रॉक्सी (OH) पंगडाचें प्रतिशठापन अधातूच्या अणून वा ऋण मूलकान केल्यारूय सिध्द जाता. देखीक - NaOH सावन OH पंगडाचें Cl न प्रतिशठापन जावन Nacl. ज्या क्षारकीय हायड्रॉक्सायडांत एकापरस चड हायड्रॉक्सी पंगड आसात थंय दोन तरांचीं लवणां जावंक शकतात. देखीक - दोन हायड्रॉक्सी पंगड आशिल्ल्या $Ba(OH)_2$ सावन $BaCl_2$ हे दोनूय OH पंगड प्रतिश्टपीत जावन जाल्लें लवण. असल्या लवणाक क्षारकी लवण म्हण्टात. क्षारकीय लवणाच्या रेणूंत आशिल्ल्या OH पंगडाचे संख्येक अणसरून तांचें एक क्षारकीय - एक OH पंगड आशिल्लें, द्वि - क्षारकीय दोन OH पंगड आशिल्ले अशे प्रकार जातात. लवणां उदकांत विरगळ्ळयार आयनीभवन जावन घटकांचें आयन निर्माण जाता. देखीक - $NaCl + H_2O \to Na + Cl + H + OH$. उदकाचेंय कांय प्रमाणांत आयनीभवन जाल्ल्यान H आनी OH आयनुय जातात. विरगळिल्लें आयन जर प्रबळ आम्ल आनी दुर्बल क्षारक वा दुर्बळ आम्ल आनी प्रबळ क्षारक हांचेपसून जाल्लें आसल्यार, विक्रिया हांगाच थांबना. देखीक - $CuSo_4 + 2H_2O = Cu + So_4'' + 2H + 2OH$ अशें पयलीं आयनीभवन जाता पूण रोखडेंच Cu आयन आनी OH आयन हांचेभितर विक्रिया जाता आनी $Cu(OH)_2$ तयार जाता. पूण $Cu(OH)_2$ हें एक दुबळें क्षारक आशिल्ल्यान तें वियोजन जावंक नाशिल्ले अवस्थेंतूच उरता. तेखातीर तें करपाखातीर वापरिल्लें OH आयन, आयनीभवन जाल्ल्या रूपांत म्हळ्यार $(Cu(OH)_2$ रूपांत उरतात. हाका लागून विद्रावांत OH आयनांची संख्या उणी आनी H आयनांची चड जाता, तेखातीर विद्राव आम्लधर्मी जाता. $Na_3PO_4$ हें लवण प्रबळ क्षारक आनी दुर्बळ आम्लापसून जालां. तें उदकांत विरगळटकच आयनीभवन जाता तें अशें - $Na_3PO_4 + 3H_2O \to 3Na + PO_4 + 3H + 3OH$. H आयनाक लागून $PO_4$ पसून $H_3PO_4$ मेळटा पूण तें चडशें आयनीभवन जावंक नाशिल्ल्या रुपांत उरता आनी ताका लागून विद्रावांत OH आयन चड जातात आनी विद्राव क्षारधर्मी जाता. लवणांचेर जावपी उदकाच्या ह्या परिणामाक जलीय विच्छेदन म्हण्टात. जटील लवणां उदकांत विरगळ्ळयार जटील आयन निर्माण जातात. देखीक - $K_4Fe(CN)_6$ हाजेपसून K आनी $Fe(CN)_6$ हो जटील आयन मेळटा.

लवणांचे वितळबिंदू चडशे उच्च आसतात. वितळिल्ले स्थितींत लवणां विद्युत् संवाहक आसतात.

- कों. वि. सं. मं.

## लव्ही, ओटो

**लव्ही, ओटो :** (जल्म : ३ जून १८७३, फ्रँकफुर्ट (मेन न्हंय); मरणः २५ डिसेंबर १९६१, न्यूयॉर्क).

जर्मन - अमेरिकी वैज आनी वखदीक्रियावैज्ञानिक. तंत्रिका आवेगांच्या रसायनीक प्रेषणा खातीर (उद्दीपनावतीन (Stimulation) मज्जेंत एके सुवातेर उत्पन्न जाल्ली संवेदना रसायनीक रितीन दुसरे सुवातेर व्हरपाचे क्रियेविशीं) लायिल्ल्या सोदाखातीर ताका १९३६ चो वैजकी वा शरीरक्रियाविज्ञानाचो नोबॅल पुरस्कार हॅन्री हॅलेट डेल हाचेवांगडा वांटून मेळ्ळो.

लव्ही हाणें १८९६ वर्सा स्ट्रॅस्बर्ग विद्यापिठांतल्यान वैजकीची पदवी घेतकच ताणें फ्रँकफुर्टांतल्या नगर रुग्णालयांत सहाय्यक (१८९७ - १८९८), मारबर्ग विद्यापिठाच्या वखदीक्रियावैज्ञानिक संस्थेंत हान्स मायर हाचो सहाय्यक (१८९९ - १९०४), त्याच विद्यापिठांत सहाय्यक प्राध्यापक (१९०४), विएन्ना विद्यापिठांत मायर हाचो साहाय्यक आनी फुडें सहाय्यक प्राध्यापक (१९०७ - १९०९) म्हणून काम केलें.

१९०९ वर्सा ऑस्ट्रियांतल्या ग्रात्स विद्यापिठांत वखदी क्रियाविज्ञानाच्या प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली आनी १९३८ त नाझींनी धांवडावन घालीमेरेन ताणें थंयच काम केलें. १९४० वर्सा तो अमेरिकेक गेलो आनी थंय न्यूयॉर्क विद्यापिठाच्या वैजकी म्हाविद्यालयांत वखदी क्रियाविज्ञानाचो संशोधक प्राध्यापक जालो आनी निमाणेमेरेन ताणें थंयच काम केलें.

ताचें सगळयांत म्हत्वाचें कार्य पृश्ठवंशी म्हळयार फाटीचो कणो आशिल्ल्या प्राण्यांतले तंत्रिकाक्रियेविशीं आशिल्लें. १९२१ - २६ ह्या काळांत ताणें केल्ल्या संशोधनाक लागून एका तंत्रिका कोशिकेकडल्यान दुसरे तंत्रिका कोशिकेकडेन आनी तंत्रिका कोशिकेकडल्यान प्रतिसाद दिवपी इंद्रियाकडेन जावपी तंत्रिका आवेगाच्या प्रेशणांत तंत्रिकांनी तयार केल्ल्या रसायनांचो आस्पाव आसता, हाचो पयलो सबळ पुरावो सिध्द जालो. ताणें आपल्या सांगात्यां वांगडा केल्ल्या प्रयोगांत एका बेबकाच्या काळजांतल्या तंत्रिकांच्या विद्युत् उद्दीपनावतीन ताच्या आकुंचनाचो वेग उणो केलो. उपरांत ह्या काळजासावन स्त्रवपी द्रव जातूंतल्यो तंत्रिका उद्दीपीत केल्ल्यो नाशिल्ल्यो अशा दुसऱ्या एका काळजांतल्यान व्हांवपाक दिलो. ह्या दुसऱ्या काळजाचो वेगूय उणो जालो आनी हाचे वयल्यान पयल्या काळजांतल्यान स्त्रविल्ल्या द्रवांत विक्रियाशील पदार्थ आशिल्ल्याचें सिध्द जालें. प्राणेशा तंत्रिका म्हळयार मेंदूपसून वचपी धावे तंत्रिकेच्या उद्दिपनान हो पदार्थ स्त्रवता आशिल्ल्यान लव्ही हाणें ताका 'व्हॅगस मटिरियल' अशें नांव दिलें. उपरांत हो पदार्थ ॲसिटिलकोलीन आशिल्ल्याचें डेल हाणें दाखयलें आनी तो जनावराच्या ऊतकांतल्यान (कोशिका चोम्यांतल्यान) डेल आनी हॅरल्ड डडली हांणी १९२२ वर्सा वेगळायलो. तंत्रिका तंत्राभायर लव्हीन गोड्या मुताचेर आनी डिजिटॅलीस आनी एपिनेफ्रिन ह्या वरवदांचे क्रियेसंबंदी संशोधन केलें. अग्निपिंडाची कार्यक्षमताय अणभवपारवातीर ताणें येवजिल्ली एपिनेफ्रिन क्लोरायडाच्या विद्रावाचो उपेग करपी एक परिक्षा लव्ही परिक्षा म्हणून वळखतात.

- कों. वि. सं. मं.

**लव्हो :** (मराठी : लव्हाळा; हिंदीः नागरमोथा; संस्कृतः नागरमुस्तक; इंग्लीशः नटग्रास; लॅटीनः सायपेरस स्कॅरिओसस; कूळ सायपेरेसी).

हें सुमार ४० ते ९० सेंमी. ऊंच, जायतीं वर्सां जगपी, तणावरी एकदलिकीत वरवदी झाड. ताचो प्रसार बंगाल, उत्तर प्रदेश, उदेंत आनी दक्षिण भारतांत आनी ऑस्ट्रेलियांत वलसार जाग्यार आसा. खोड सरळ, ऊंच, भरीव आनी तोकाकडेन त्रिकोणी आसता. पानां सार्दी, वेगवेगळया आकाराचीं, आंखूड, नाजुक आसतात. फुलांचे चवऱ्यांवरी व्हड फुलोरे बारीक आसून तांचेर ल्हान कणसां आसतात. फुलांची संरचना आनी हेर सामान्य शारिरीक लक्षणां सायपेरेसी वा मुस्तक कुळांत वर्णन केल्लेवरी आसता. ग्रंथीक्षोड गाड पुडिकोराचें आनी वासाळ आसून तांचो उपेग वासाळ द्रव्यां, ऊजवाती आनी वरवदां हांचेरवातीर, मोथा हे जातीच्या वर्णनांत दिल्लेवरी करतात.

**अंब्रेला प्लांट :** (अंब्रेला पाम; लॅटीनः सा. आल्टर्निफोलियस) ह्या नांवाच्या लव्ह्याच्या प्रजातींतली दुसरी जात. ही मूळची ऑस्ट्रेलियांतली आसून सोबेरवातीर पोरसांत लायतात. फातराळ जमनीच्या पोरसांनी नेचागृहांत लावपाक ही वनस्पत बरी आसता. ती झुपक्यांनी वाडटा आनी तिची उंचाय सुमार ३० -१२० सेंमी. आसून खोड धारदार आनी लांब कांट्यावरी आसता. पानां पसरट वा थोडीं लांबशीं, रेखाकृती, १० - २० सेंमी. लांब आसतात. कणसां भरपूर आसतात. व्हॅरिगेटस आनी ग्रॅसिलिस हे दोन नामनेचे प्रकार. लव्ह्याच्या सायपेरस हे प्रजातींत सुमार ६०० जाती आसून तातुंतल्यो सुमार १०० जाती भारतांत मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**लसूण :** (मराठी : लसूण; हिंदीः लसन; गुजरातीः लसण; कन्नडः बेळुवळ्ळी; संस्कृतः लशून, उग्रगंधा; इंग्लीशः गार्लिक; लॅटीनः ॲलियम सटायव्हम; कूळ : लिलिएसी).



**लसूण :** १) पानां, फुलांसयत वनस्पत २) कांद्याचो उबो छेद ३) फूल ४) पाकळी

एक वरवदी वनस्पत. ही कांदो आनी खोरट हांचे ॲलियम हे प्रजातींतली. ती मूळची मध्य आशियांतली आसुंये अशें मानतात. इ. स. आदीं ५००० ते ३४०० ह्या काळांत इजिप्ती लोक कांदो आनी लसूण पिकयताले असो पुरावो मेळटा. युरोप, इजिप्त, भारतांत ती लागवडींत आसा. वैदिक वाङ्मयांत लसणीचो उल्लेख ना. पूण महाभारत, तशेंच कौटिलीय अर्थशास्त्र, वात्स्यायनाचें कामसूत्र, चरकसंहिता, सुश्रुतसंहिता, नावनीतक, मनुस्मृती ह्या जायत्या संस्कृत ग्रंथांनी वेगवेगळया संदर्भांनी तिचे उल्लेख मेळटात. जायत्या ग्रंथांनी लसूण अपवित्र, निशिध्द आनी ताज्य मानिल्ली आसा. तशेंच तिच्या वरवदी गूणधर्मांची म्हायती भरपूर मेळटा.

ही वनस्पत जायते हंगाम जगपी आसुनूय ती एका हंगामांतलेवरी पिकयतात. तिचें भूंयगत खोड (कंद) कांद्यापरसूय ल्हान आसून ताचो मासल भाग पानांच्या कुशींतल्या पाकळयांचो आसता. ह्या कंदाचेर पातळ आवरण आसता. जमनीवयर येवपी पाचवीं पानां सार्दी, रेशाकृती, सपाट, तणावरी आनी तोंकदार आसतात. सादारणपणान धवे आनी तांबसार अशे दोन कंदाचे प्रकार वळखीचे आसात. डिसेंबर ते जानेवारींत लांब देंठ आशिल्ल्या आनी वाटकूळसार चंवरावरी तुऱ्याचेर तोंकदार आनी लांब दांड्यार धवीं फुलां आनी

ल्हान कंदिका येतात. तार्ची हेर सामान्य लक्षणां लिलिएसी कुळांतल्या वर्णनावरी आसतात.

लसणीच्या पाकळयांक उग्र वास येता. पुर्विल्ल्या काळासावन रांदपांत लसणीचो उपेग करतात. जायत्या प्रकारांनी लसणीचो उपेग जाता आशिल्ल्यान शेतींत आनी वेपारी मळार तिका म्हत्वाची सुवात मेळळ्या. लसणीच्यो पाकळयो वायूसारक, कामोत्तेजक, कफोत्सारक, उत्तेजक, ज्वरहारी आनी भूक वाडोवपी आसात. लसणीचो रोस पोटदुखीचेर आनी कानदुखीचेर दितात. फुफुसाचे आनी श्वासनलिकेचे विकार, खांक, कुश्टरोग, दंत, मूत्रपिंड हांचेरूय लसणीचो रोस उपेगी आसून कातडेचे विकार, जखमो हांचेरूय तो उपेगी पडटा. लसणीपसून तयार केल्ली पूड आनी वखदां भारतांत आयात करतात. म्हैसूरचे सँट्रल फूड टॅक्नोलॉजिकल रिसर्च इन्स्टिटयूट हे संस्थेन सुक्ष्ममजंतूरोधी गूण आनी वखदी मूल्य हे बाबतींत बरें आशिल्लें लसूण चूर्ण तयार करपी प्रक्रिया विकसीत केल्या. लसूण रगतवहिन्यांतलें रगत शुध्द करता. आहारांत लसणीचो वापर केल्ल्यान रगतांत कॉलेस्टॅरॉल वाडपाचें प्रमाण उणें उरता अशें सिध्द जालां.

**रसायनीक संघटण :** लसणींत ६३.८% उदक, ६.३% प्रथिनां, २९.०% कार्बोहायड्रेट, ०.१% मेद, ०.०३% कॅल्शियम, ०.३१% फॉस्फरस आसता. तेभायर १.३ मिग्रॅ./ १०० ग्रॅ. लोखण आनी १३ मिग्रॅ./१०० ग्रॅ. क जीवनसत्व आसता. लसणीक येवपी विशिश्ट वास तातुंतल्या ॲलिल २ प्रोपीन थायोसल्फिनेट (ओलिसीन) ह्या संयुगाक लागून येता.

**लागवड आनी मशागत :** लसणीची वाड समशितोश्ण हवामानांत बरी जाता. तशेंच ९००- १२००मी. उंचायेच्या वाठारांत हें पीक बरें येता. लसणीची लागवड चड करून ऑक्टोबर - नोव्हेंबर म्हयन्यांत करतात. उत्तरेंत सपाट वाठारांत सप्टेंबर - ऑक्टोबरांत आनी दोंगराळ वाठारांत फेब्रूवारी ते मार्च म्हयन्यांत करतात. भारत, चीन, दक्षिण कोरिया, थायलंड आनी स्पेन ह्या देशांनी लसणीची मुखेलपणान लागवड करतात.

**प्रकार :** लसूण धवी आनी तांबसार जांबळी अशी दोन प्रकारांची आसता. धव्या प्रकारचे लसणीकांदे आकारान व्हड आसतात. तशेंच पुरुमेंताकय बरे तिगतात आनी तांचें उत्पादनूय चड मेळटा. जांबळसार रंगाचे प्रकार चड तिखट आनी वखदी नदरेन म्हत्वाचे आसतात. पूण तांचें उत्पादन उणें मेळटा.

**जमीन :** ह्या पिकाक मध्यम ते चड काळी आनी निचऱ्याची जमीन मानवता. लसणीचें पीक चार ते साडेचार म्हयन्यांनी तयार जाता. जेन्ना तार्चीं पानां सुकून कंद जमनीवयर दिश्टी पडटात तेन्ना ते हातांनी हुमटावन काडटात. १-३ सप्तकां सुकयतात आनी उपरांत पानां आनी मुळां काडून कंद मेकळे करतात. भारतांत दर हॅक्टरी सुमार ३५०० किग्रॅ. इतलें उत्पादन मेळटा.

**रोग आनी कीड :** लसणीच्या पिकार करपा रोग लागता. ताका लागून पानांचेर तांबडे आनी गोबरा कोराचे थिपके पडटात. ह्या रोगाक आळाबंदा हाडपाक बोर्डो मिश्रण फवारतात. ह्या पिकाक फुलकिड्याचीय बादा जाता. तेखातीर मॅलॅथिओनासारकें किटकनाशक वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**लळीत :** एक पारंपारीक मराठी नाट्यप्रकार. नारदीय कीर्तन परपरेंत ह्या प्रकारचो आस्पाव करतात. चड करून कोंकणांतले, गोंयांतले नारदीय कीर्तन परंपरेंत लळिताची सुवात खाशेली आसा. नवरात्रां, कार्तिकी एकादस, माघशुध्द चतुर्दस, देवीचीं नवरात्रां, वेगवेगळया देवस्थानांतले उत्सव हे सारकिल्या धर्मीक उत्सवां वेळार संबंदीत देवतेखातीर णव, सात वा पांच दीस कीर्तन, प्रवचन, भजनां ह्यो कार्यावळी जातात. निमाण्या दिसाचे फांतोडेर उत्सवदेवता शींवाचेर बशिल्ली आसा, अशें मानून तिच्या दरबारांत अठरा पंगड जातीचीं सवंगां हजेरी लायतात आनी किर्तनकारावांगडा मागणेंय करतात. हाकाच 'लाळीत' अशें म्हण्टात. हीं सवंगां त्या त्या वाठारांतल्या संप्रदायाप्रमाण आसतात. ते ते देवतेकडेन मागणें मागून जाले उपरांत तीं प्रसाद मागतात. मागीर तो आयकुप्यांक वांट्टात. कांय सुवातींनी उत्सवा वेळार भक्तांचीं वा जमातींचीं विंगड विंगड सवंगां घेवन नाटकांतल्या प्रवेशांप्रमाण तीं सादर करतात. ताकाय 'लळीत' म्हण्टात.

लळिताचें मुखेल प्रयोजन, वेदांत तत्त्वगिन्यान सवंगांच्या माध्यमांतल्यान आयकुप्यांच्या मनांचेर बिंबोवप हेंच आसा. तातूंत कांय सवंगां मन रिजवणे खातिरूय येतात. तातूंत भालदार, चोपदार, छडीदार, वासुदेव, ढंढारी, गोंधळी, वाघ्या मुरली, भेड्डो, मोनो, कुड्डो, वैदू आनी वेसकर कुडमुडो जोशी हे सारकिले लोक संस्कृतायेचे उपासकूय येतात. तांचे वांगडा दशावताराचे खेळूय येतात. हातुंतल्या सवंगांची रंगवण गाड आसता. कांय सवंगांचीं मुखवटींय भडक रंगाचीं आसतात. तांचो भेसूय भडक आसता. पयलीं हे खेळ रातचे दिवट्यांच्या उजवाडांत करताले. आतां विजेचे दिवे वापरतात. लळिताचो अखेर सर्वसादारणपणान रावणाच्या वधाच्या प्रसंगान आनी उपरांत रामाची मंगलारत करून जाता. आर्विल्ले मराठी रंगमाचयेचे आद्य जनक विष्णुदास भावे हाच्या नाटकांक लळिताची फाटभूंय आशिल्ली.

लळिताची रंगमाची सादारणपणान देड ते दोन फूट उंचायेची आसून ती लांकडी फळयांची आसता. तिचें आकारमान चडशें २०' x १८' (६ x ५.५मी.) आसता. पयलीं हे रंगमाचयेच्या फाटल्यान पड्डो नासतालो, आतां तो लायतात. एके वटेन गावपी, पेटी वाजोवपी, तबलेकार बसतात, दुसरे वटेनच्यान सवंगां येतात - वतात. कांय साथीदार सूर धरतात. हांचेउपरांत पयलीं मंगलाचरण जाता. हातूंत सूत्रधार आनी पारिपार्श्वक आसता. ते गणपतीचें संस्कृत - मराठींतल्यान

स्तवन करतात. मदींच विदुशक येवन किदेंय तरी विनोद करता. सूत्रधार एक पद म्हण्टा. हें पद त्या त्या वेळावयल्या देवतेत्सवाकडेन संबंदीत आसता. हें पद सोंपले उपरांत ताची घरकान्न माचयेर येता. तो तिका सांगता. 'आयज म्हाका अमके देवतेमुखार लळीत करपाचें आसा, म्हाका तुजो आदार जाय'. ती पद गावन तातुंतल्यानच ताका आदाराचें उतर दिता. ते उपरांत ताचें देवतेची तुस्त करपी द्वंद्वगीत जाता. उपरांत फक्त सूत्रधार गणेशस्तवन करून लळिताचें मंगलाचरण सोंपयता.

सूत्रधार नारदीय किर्तन पठडेंतलो आसता. पगडी, बाराबंडी, उपरणें, बिकबाळी, पुडवें असो ताचो भेस आसता. नटी णव वारी जरीची साडी न्हेसता. काळो पांयांमेरेन अंगरखो, सुरवार, पांयांत चाळ, हातांत हारसो, लांब तांबड्या रंगाची तोपी, कपलाचेर गंधाचो मोटो तिबो असो विदुशकाचो थाट आसता. लळितांतल्या मुखेल सवंगां मदीं चोपदार आनी पाटील हीं सवंगां पयले सुवातेर येतात. चोपदाराची सुरवार, अंगरखो आनी फेटो हीं सगळीं तांबड्या रंगाचीं जाल्यार पाटलाची सुरवार, अंगरखो, पिळांची पगडी आनी उपरणें धव्या रंगाचें आसता. चोपदाराच्या हातांत बडी आनी कमराक पटो आसता. हे दोगूय जाण हिंदींतल्यान उलयतात, पूण अभंग, भारुडां मात मराठींतल्यान गायतात. अर्दी - मर्दी पदरचीं हिंदी उतरां अभंगांत भरशितात.

लळिताचेर इस्लाम राजवटीचो प्रभाव आसुंये अशें दिसता. लळितांतली कांय आख्यानां हिंदी भाशेंतूय आसात. मराठवाडा हैदराबादचे शिमेर अशीं कांय मेजकीं लळितां सांपडटात. हातुंतले संवाद आध्यात्मिक आशयाचे सूचक आसतात. संवादाची भास वयल्याचाराक वेव्हारी दिसता, पूण तातुंतल्यान वेदान्त निरुपणूय येता. संवादांनी उत्सवमूर्तीची तुस्त तिचें गूणवर्णन हेंच आसता. एकनाथाच्या भारुडांतल्या 'हिंदु - तुर्क' संवादाप्रमाण अशें संवादाचें स्वरूप आसता.

संवादा उपरांत दोन पदां जावन प्रवेश सोंपता. मागीर राजभाट, पाटील, गांवभाट येतात. पुडवें, अंगरखो, कांबळ, मुंडाशें, कानांत बाळयो, गंध, हातांत दांडो अशा थाटांत मावळो येता. मागीर तांचे संवाद जातात. हातूंत गांवभाट आनी राजभाट हांचेमदीं उतरांचे खटके उडटात. तातूंत राजभाट हारता. गांवभाट जिखता. जंगम येता. तो कानडी भरशिल्ले मराठींतल्यान उलयता. तातुंतल्यान विनोदाची निर्मणी जाता. ब्राह्मण, काशीकापडी, वाघ्यामुरळी हीं सवंगांय क्रमान येतात. हांचे संवाद रंजक आनी उद्‌बोधक आसतात.

मध्यानराती सुरू जाल्लें लळीत सकाळमेरेन चलता. तातूंत एकनाथाचीं भारुडांय साभिनय सादर करतात. हाचे उपरांत सूत्रधार बुवाक माचयेर आपयतात. बुवाचे सरभोंवतणीं सगळीं सवंगां हात जोडून उबीं रावतात. बुवा पेटी - तबल्याचे साथीवांगडा फांतोडेर पांचांक लळिताचो दरबार भरयता. मागीर ह्या सगळयांचे वतीन उत्सव मूर्तीचो तीन फावटी जयजयकार करतात. बुवा हातांत श्रीफळ घेता आनी लोकांचेवतीन कल्याणाचें मागणें करता. सगळयांचें बरें चिंतता. मागीर बुवान साश्टांग नमस्कार घालो म्हण्टकच लळीत सोंपता. निमाणेकडेन सगळयांक प्रसाद वांट्टात.

लळीत हें खास करून कोंकणांतलें. लळीत करप्यांमदीं फांकिवंत किर्तनकार, पंत पटवर्धन बुवा, गौतमबुवा पाठक, लक्ष्मण बुवा निजामपूरकर, बुर्वा बवा, चिंतामणि बुवा वाड, गजाननबुवा राईलकर, रामचंद्रबुवा शिरवळकर, प्रल्हादबुवा आयाचित, मुकुंदबुवा रावेरकर, नरहरबुवा कऱ्हाडकर हांचो आस्पाव जाता. हांच्या दर एकट्याच्यो लळीत करपाच्यो पद्धती विंगड विंगड. तशेंच लळितांत कथन जातलें रामचरित्र वा कृष्णचरित्र्य वेगवेगळें आसता. तांच्यो कथनशैलीय वेगवेगळयो आसतात. सगळया देवतांच्या उत्सवांनी आयजूय लळिताबगर उत्सव सोंपना.

- कों. वि. सं. मं.

**लक्षद्विप** : भारताचो एक केंद्रशासीत प्रदेश. अरबी दर्यांतल्या साबार जुंव्यांचो मेळून जाल्लो हो प्रदेश. ह्या ल्हान-व्हड जुंव्यांचें वट्ट क्षेत्रफळ ३२ चौ. किमी. आसा. ह्या शिंवरून पडिल्ल्या जुंव्यांचो विस्तार ८° ते १२°१३' उत्तर अक्षांश आनी ७१° ते ७४° उदेंत रेखांश. तांतुतलो अँड्रोथ हो सगळयांत व्हडलो आसून ताचें क्षेत्रफळ ४.८ चौ. किमी.आसा. हेर मुखेल जुंव्यांभितर अमिनी, अगत्ती, बित्रा, चेटलट, काडमट, काल्पेनी, कावारट्टी, किल्टन आनी मिनिकॉय हांचो आस्पाव जाता. हातुंतल्या खंयच्याच जुंव्याची रुंदाय २ किमी. वयर ना. हे जुंवे केरळ राज्यांतल्या कोची शारासावन सुमार २२० ते ४४० किमी. पयस आसात. कावारट्टी हें प्रदेशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन** : भारताच्या ह्या सगळयांत ल्हान केंद्रशासीत प्रदेशाचो भूंयभाग खूब उणो. पूण हाका ४,२०० चौ. किमी. चें खाजनक्षेत्र आनी २०.००० चौ. किमी. चें जलक्षेत्र लाभलां. हातुंतल्या खंयच्याच जुंव्याची दर्याथरासावन उंचाय १० मीटर परस चड ना. ह्या जुंव्यांचेर दोंगर वा न्हंय ना. ह्या केंद्रशासीत प्रदेशावयलें हवामान सादारणपणान मन्सून प्रकारचें आसून सरासरी वर्सुकी पावस १६०° सेंमी. इतलो पडटा. हांगाचो गीम खूब कडक. माड, पणस, केळी, आळूंचे कांय प्रकार, रानटी बदाम आनी ल्हान ल्हान झोंपां ही वनस्पत हांगा मेळटा. थैस्सिआ हें प्रिचीन आनी सायमॉड्सीए आयसोएटीफोलिया ह्या दोन प्रकारांचें सागरी तण हांगा वाडटा. ह्या प्रदेशांत सागरी जीव खूब प्रमाणांत आसात. थराथसी आनी कारीफेटू हीं दर्यासवणीं थंय खूब. तीं सवणीं मुखेलपणान पिन्सी जुंव्याचेर मेळटात. सवण्यां अभयारण्य म्हणून हो जुंवो घोशीत केल्लो आसा.

**इतिहास** : ह्या जुंव्यांची पुर्विल्ली म्हायती स्पश्टपणान मेळना.

पूण थळाव्या लोककथांवरवीं ह्या जुंव्यांचो इतिहास थरयला. केरळाचो निमाणो राजा चेरमान पेरुमाल हाच्या तेंपार ह्या जुंव्याचेर पयली वसणूक जाल्ली आसुंये. कांय अरबी वेपाऱ्यांनी जेन्ना राजाक इस्लाम धर्म आपणावपाक बळजबरी केली, तेन्ना राजा मक्केक वता अशें सांगून पळून गेलो. पूण खूब दिसां उपरांत लेगीत राजा परतलो ना. तेन्ना ताचो सोद घेवपाखातीर ऋगनोरच्यान मक्केकडेन कांय तारवां सोडलीं. तातुंतलें कननोरच्या राजाचें तारूं मोडांत सांपडून फुटलें. पूण राजा आनी ताचे कांय सांगाती एका जुंव्याचेर पावले. तो जुंवो म्हळयार 'बंगारम जुवो' अशें मानतात. उपरांत ते एका जुंव्यासावन दुसऱ्या अशे साबार जुवें हुंपून मुखेल भुंयेचेर पावले. राजा परतले उपरांत ताणें खलाशी आनी सैनिकांचो दुसरो पंगड अरबी दर्यांत धाडलो. तांणी अमिनी जुंव्याचो सोद लावन उपरांत ते थंयच रावपाक लागले. ह्या पंगडांतले लोक हिंदू आशिल्ले अशें मानतात. हें स्पश्ट करतना कांय इतिहासकार, सद्या थंय आशिल्लया इस्लाम लोकांमदीं आशिल्ल्यो हिंदुंच्यो कांय भौशिक परंपरा आनी चालीरितींचो आदार घेतात. सुरवेक अमिनी, कावारट्टी, अँन्ड्रोथ आनी काल्पेनी जुंव्यांचेर ल्हान ल्हान वसणुको उबारिल्ल्यो. उपरांत ह्या लोकांनी अगत्ती, किल्टन, चेटलट आनी काडमट ह्या जुंव्यांचेर स्थलांतर केलें.

जुंव्यांवयल्या लोकांचें इस्लामीकरण कशें जालें हाचीय म्हायती स्पश्टपणान मेळना. पूण ओबेदुल्ला ह्या अरबी फकिरान हांगा इस्लाम धर्माचेर प्रवचन दिल्ल्याचें सांगतात. अँन्ड्रोथ जुंव्याचेर ओबेदुल्ला फकिराची कबर आसून आयज ती त्या प्रदेशांतली एक पवित्र भूंय मानतात.

सोळाव्या शेंकड्यांत वेपाराच्या निमतान पुर्तुगेज जेन्ना भारतांत आयले, तेन्ना डावपेंचाखातीर एक बरी भूंय म्हणून तांची नदर ह्या जुंव्यांचेर गेली. तशेंच तांच्या तारवांक उपेग पडपी काथ्याच्या दोरयांचीय तांकां गरज आसली. देखून ते ह्या जुंव्यांचेर परत परत घुरयो घालपाक लागले. पूण थळाव्या लोकांनी तांकां वीख घालून मारपाक सुरवात केली. हाका लागून पुर्तुगेजांच्यो घुरयो थांबल्यो. उपरांतचीं कांय वर्सां छिराकलच्या हिंदु राजाच्या शेकातळा हे जुंवे गेले. सोळाव्या शेंकड्याच्या मध्याक ह्या राजाकडच्यान कननोरच्या अरक्कल ह्या मुस्लीम राजान हे जुंवे घेतले. फुडें अरक्कल घराण्याचो राजा हांगाच्या लोकांचेर खूब जुलूम करपाक लागलो. ताचे राजवटीक त्राशिल्ल्या थंयच्या लोकांनी निमाणेकडेन मंगळूराक वचून टिपू सुलतानाकडेन कागाळ केल्ली. टिपू सुलतानान अरक्कलाचे बायलेकडेन इश्टागतीची कबलात करून, अमिनी आनी हेर चार जुंवे आपले सत्तेखाल हाडले. अशे तरेन जुंव्यांची विभागणी दोन आधिराज्यांनी जाली. श्रीरंगपट्टणाच्या झुजांत टिपू सुलतानाक मरण आयले उपरांत जुंव्यांचो ताबो ब्रिटिशांकडेन गेलो. ब्रिटीश लोक त्या जुंव्यांचो राजकारभार मंगळूरच्यान चलोवपाक लागले. १८४७त त्या प्रदेशांत व्हड मोड जालें. तातुंतल्या अँन्ड्रोथ जुंव्याचें चड नुकसान जालें. जेन्ना चिरक्कलचो राजा थंयच्या लोकांक आदार करपाक भायर सरलो, तेन्ना इस्ट इंडिया कंपनीचो अधिकारी विल्यम रॉबिन्सन होय ताचेवांगडा थंय गेलो. त्या जुंव्यांचें खूब नुकसान जाल्ल्या कारणान एकल्या राजाक तांकां आदार करप शक्य नाशिल्लें. देखून ताणें इस्ट इंडिया कंपनीकडच्यान रीण घेतलें. उपरांत ही मुजत खूब वाडिल्ल्यान, तें रीण फारीक करप राजाक शक्य जालें ना. तेन्ना १८५४त सगळया जुंव्यांचें प्रशासन इस्ट इंडिया कंपनीन आपल्या ताब्यांत घेतलें. दोन लाख रुपयांखातीर हे जुंवे ब्रिटिशांकडेन गेले देखून तांकां लक्षद्वीप हें नांव पडलां आसूं येता अशें एक मत आसा.

१ नोव्हेंबर १९५६ दिसा हो द्विपसमूह भारताचो केंद्रशासीत प्रदेश जालो. तेन्ना कालिकत हें ताचें राजपाटण आशिल्लें. पूण १९६४त कालिकतच्यान त्या प्रदेशाचें राजपाटण कावारट्टी जुंव्याचेर व्हेलें. १९७३त ह्या चोंब्याचें लक्षद्वीप अशें नामकरण जालें. केंद्रशासीत प्रदेश म्हणून घोशीत करचे आदीं हे जुंवे मद्रास राज्याचोच एक भाग म्हणून आशिल्ले. ह्या सगळया जुंव्यांचो मेळून एक जिल्हो आसून ताची चार म्हालांनी विभागणी केल्ली आसा. मिनिकॉय सोडल्यार हेर म्हालांचो कारभार नियुक्त तहसीलदार पळयता. मिनिकॉय तालुक्याचो कारभार उपजिल्हाधिकारी पळयता. ह्या प्रदेशाची न्यायवेवस्था केरळ उच्च न्यायालयाचे देखरेखीखाल चलता.

**अर्थवेवस्था :** शेतवड हो लक्षद्वीपाचो मुखेल वेवसाय. नाल्ल हें थंयचें सगळयांत म्हत्वाचें पीक. प्रदेशाची चडशी भूंय माडांखाला आसा. लखदीव ल्हान, लखदीव सामान्य, ग्रीन ड्वॉर्फ हे नाल्लाचे प्रकार थंय मेळटात. काथ्यासावन दोरयो वळप, हो वेवसाय अर्थीक नदरेन म्हत्वाचो. खोबऱ्याचें तेल काडून उपरांत ताचेर प्रक्रिया करप हाका सद्या चड म्हत्व फाव जालां. लिंबू आनी ते जातीचीं फळां, केळीं, पोपाय, पेरां, चिकू, मिरसांग, तोमाट, वायंगीं, कणंगां हींय पिकां थंय खूब प्रमाणांत जातात. ह्या पिकांची लागवड चड करून माड आशिल्ल्या भाटांनीच करतात. हालीं तेंपार ऊंसाचीय लागवड केल्या. हांगाच्या दर्यादेगांनी वेगवेगळया तरांचें नुस्तें खूब प्रमाणांत मेळटा. यांत्रिकी बोटींनी नुस्तें मारप जाता. हांगाच्या दर्यांनी ह्युना जातीचें (बुगडे) नुस्तें खूब प्रमाणांत मेळटा. खोबरें, राजू वळप, गोड म्हौंव आनी नुस्त्याचेर प्रक्रिया हे हांगाचे मुखेल उद्देग. यांत्रिकी व्हडीं बांदपाखातीर सरकारान हांगा दोन गोदी उबारल्यात. मिनिकॉय जुंव्याचेर नुस्तेमारी प्रशिक्षण केंद्र आसा. थंय बर्फ निर्मिती, शीतघरां, नुस्तें डब्यांनी बंद करप आनी ह्युना नुस्त्याचेर प्रक्रिया करप हे उद्देग चलतात. कावारट्टी आनी काल्पेनी जुंव्यांचेर हस्तवेवसाय प्रशिक्षण केंद्रां आसात. कावारट्टी जुंव्याचेर फर्निचर तयार करपाची एक उद्देगीक सहकारी संस्था आसा. आमिनी आनी काल्पेनी जुंव्यांचेर दोन काथ्याच्यो सहकारी संस्था आसून थळाव्यो प्रशिक्षीत बायलो तिच्यो वांगडी

आसात. दूद आनी कुकडां पोसपाच्या वेवसायांकय सद्या म्हत्व आसा.

लक्षद्वीप जुंवे भारताचे मुरवेल भूंयेकडेन (कोची, मंगळूर आनी बेपोर) उदका येरादारीन जोडल्यात. जुंव्या जुंव्याभितरली येरादारी करपारवातीर खाशेल्यो बोटी दवरल्यात. विमान आनी हॅलिकॉप्टरांचीय बरी वेवस्था थंय आसा. त्या प्रदेशांत १0 पोस्ट कचेऱ्यो, ९ बिनतारी संदेशवहन स्थानकां आनी ५ दूरध्वनी कार्यालयां आसात. १९७२ सावन कावारट्टी आनी भारताची मुरवेल भूंय हांचेभितर रेडिओ-दूरध्वनी सुविधा उपलब्ध जाल्या.

**लोक आनी समाजजीण :** लक्षद्वीप जुंव्यांवयले चडशे लोक सुन्नी पंथीय, मुसलमान आसात. मिनिकॉय जुंवो सोडल्यार मल्याळम् ही हांगाच्या लोकांची मुरवेल भास. मिनिकॉय जुंव्यावयले लोक उर्दू आनी सिंहली हांची भरसण जाल्ली महाल ही भास उलयतात. हे भाशेरवातीर स्वतंत्र लिपीय आसा. लखदीव आनी अमिनी गटांतले लोक मलबारच्या मुसलमान लोकांप्रमाण भेस करतात, जाल्यार मिनिकॉय जुंव्यावयले लोक मालदीवच्या लोकांप्रमाण भेस करतात. हांगाचे लोक चड करून चुड्टांच्या खोपींनी रावतात. हालीं तेंपार कांय विटांचीं घरां दिश्टी पडटात. हांगाचे लोक अजुनय आदल्या चाली-रितींक पाळो दितात. थंय पड्डो पद्दत, बालविवाह, बहुपत्नीत्व, अंधश्रद्धा आनी जाती वेवस्थांक म्हत्व आसा.

कोया, मासमीस आनी मलाचेरी ह्यो जुंव्यांचेर सांपडपी मुरवेल जाती. कोया जातीच्या लोकांचो उच्च वर्गांत आस्पाव जाता. मालमिस हे मध्यमवर्गीय आसून ते चड करून तारवटी वा रांपणकार. मलाचेरी हे उणाक जातीचे लोक. मानिकफन, टाकूफन, ठाकू आनी राव्हेरी ह्यो मिनिकॉय जुंव्यावयल्यो चार मुरवेल जाती. लक्षद्वीप जुंव्याचेर आंतरजातीय लग्नाक मान्यताय ना. मरुमक्कतायम् कायद्याप्रमाण हांगाचे लोक वागतात. मातृप्रधान संस्कृताय मानतात. घरांत बायल आनी चलयांक मान चड. हाका लागून निमिकॉय जुंव्याक बायलांचो जुंवो अशें म्हण्टात. मार्को पोलो ह्या भोंवडेकारानय मिनिकॉयचो बायलांचो जुंवो म्हणून उल्लेख केल्ल्याचे पुरावे आसात. चलयेच्या बापायक चल्याकडच्यान हुंडो मेळटा. लग्न जालेउपरांत चलो व्हंकलेच्या घरा रावपाक वता.

राबितो आशिल्ल्या सगळ्या जुंव्यांचें विद्युतीकरण जाल्लें आसा. हांगा ५0 विद्यालयां आनी आठ माध्यमिक विद्यालयां आसात. चलयांक शिक्षण घेवपारवातीर सरकारान कांय खाशेल्यो सवलती तांकां दिल्यात. सगळ्या पांवड्यांवयलें शिक्षण फुकट आसा. मल्याळम् भास हें शाळेंतल्या शिक्षणाचें माध्यम. सद्या साक्षरतायेचें प्रमाण ५५% इतलें आसा. थंयच्या लोकांचे भलायकेचे नदरेन भारत सरकारान कांय खाशेल्यो येवजणी आंखल्यात. ह्या जुंव्याक पर्यटन स्थळ म्हणून प्रसिद्दी मेळ्ळ्या.

- कों. वि. सं. मं.

**लक्ष्मण :** अयोध्येचो राजा दशरथ आनी राणी सुमित्रा हांचो पूत. रामाचो धाकलो सवतीभाव. सीरध्वज जनक राजाची धूव ऊर्मिला ही ताची बायल. विश्वामित्राच्या यज्ञाक राक्षसांपसून राखण मेळची देखून तो रामाक वांगड दिवपाक गेल्लो. राम-सीता वनवासाक वचूंक भायर सरलीं तेन्ना तांचे वांगडा लक्ष्मणय गेल्लो. दुषण ह्या राक्षसाकडेन जेन्ना रामाचें झूज जालें तेन्ना तो सीतेक घेवन एके गुहेंत राविल्लो. राम वनवासांत आसतना चित्रकूट आनी पंचवटी पर्णशाळा बांदप, तांकां कंदमुळां, फळां आनी होमद्रव्यां हाडून दिवप आनी तांची सेवा करप असलीं कामां तो करतालो. बारा वर्सां तो आहार आनी न्हिदेविरयत आशिल्लो अशें आनंद रामायणांत म्हळां. रावणाचो पूत इंद्रजीत हाका अशाच मनशाकडल्यान मरण येवपाचें आशिल्लें. राम-रावणाच्या झुजा वेळार इंद्रजीतान निकुंभलेच्या देवळांत देवीखातीर होम रचिल्लो. तें विधान ताच्या हातान पुराय जाल्लें जाल्यार तो अमर जातलो आसलो, देखून बिभीषणाचो आदार घेवन लक्ष्मणान ताका जिवो मारलो. तेचपरी ताणें विरुपाक्ष आनी अतिकाय ह्या दोन राकेसांकूय जिवे मारले. रावणान शक्ती उडोवन लक्ष्मणाक बेशुद्ध केल्लो. पूण सुषेण ह्या वैजान खाशेली वनस्पती हाडून ताका साबुद्दीर हाडलो. इंद्रजीताक मारिल्ल्यान जाल्लें पाप धुवन काडपाक ताणें हिमालयाच्या मुळसांत धा सहस्त्र वर्सां वायू गिळून तप केलें. निमाणें शरयु न्हंयेंत ताणें आपलो देह त्याग केलो अशी आख्यायिका आसा.

लक्ष्मणाक अंगद आनी चंद्रकेतू अशे दोन पूत आशिल्ले. रामान अंगदाक अंगदीया नगरी आनी चंद्रकेतूक चंद्रकांत नगर अशीं दोन राजपाटणां निर्माण करून दिलीं. रामायणांतली मुरवेल व्यक्ती राम आसलो तरी बांधव प्रेम आनी तेवरवीं केल्ल्या सेवाभावी त्यागाक लागून रामायणांत लक्ष्मणाक एक खाशेली सुवात प्राप्त जाल्या.

-कों. वि. सं. मं.

**लक्ष्मण, आर्. के. :** (जल्म : २३ ऑक्टोबर १९२४, म्हैसूर).




एक नामनेचो भारतीय व्यंगचित्रकार. ताचें पुराय नांव राशिपुरम कृष्णस्वामी लक्ष्मण. ताचे पुर्वज राशिपुरम वा रासीपूर (जि. सेलम) म्हालांत रावताले. ताचें शिक्षण बी. ए. मेरेन जालें. कर्नाटकांतल्यान मुंबय वचून लक्ष्मणान फ्री प्रॅस जर्नल

ह्या नेमाळयांत व्यंगचित्रकार म्हणून नोकरी केली. ताचेपयलीं तो बेंगळूरच्यान प्रसिद्द जावपी कुरवंजी ह्या कानडी नेमाळयांत व्यंगचित्रां काडटालो. १९४९ पसून तो टायम्स् ऑफ इंडियाचो मुरवेल व्यंगचित्रकार म्हणून वावुरता. आपल्या पयल्या पानावयल्या राजकीय व्यंगचित्राभायर तो टायम्साच्या त्याच पानाचेर सदांच एक ल्हान व्यंगचित्र (पॉकेट कार्टून) काडटा. 'यु सॅट ईट' असो ह्या व्यंगचित्राचो माथाळो आसता. ह्या व्यंगचित्रांतल्यान वावुरपी मनशाक 'कॉमन मॅन' अशें म्हणपाची प्रथा आसा. ह्या व्यंगचित्रांतली कॉमन मॅनाची बायल उलोवपी आसून कॉमन मॅन मात आपलें तोंड उगडिना.

लक्ष्मणाचीं राजकीय व्यंगचित्रां ओडलायणीं आसतात. तातूंत राश्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय घटनांचेर टिका आसता. व्यंगचित्रांवांगडाच विडंबनचित्र (कॅरिकेचर) काडपांतूय तो कुशळ आसा.

लक्ष्मण हो एक बरोवपी. डुडलस आनी सॉरी, नो रूम हीं ताचीं नामनेचीं पुस्तकां. ताणें कांय लघुकथा आनी प्रवासवर्णनांय बरयल्यांत. ताच्या व्यंगचित्रांचे आनी ल्हान चित्रांचे कांय संग्रहय प्रसिद्द आसात. देखीक - यू सॅड इट (१९६१) आनी दी इलोकंट ब्रश (१९८९). मध्य प्रदेश : रॅण्डम स्कॅचीस (१९८६) हो ताणें केल्ल्या मध्य प्रदेशांतल्या वेगवेगळया थळांचो आनी सर्वसामान्य लोकांच्या रेखाटनांचो संग्रह. लंडनांत भरिल्ल्या आंतरराश्ट्रीय व्यंगचित्र प्रदर्शनांत (१९५८) वांटो घेवपी तो पयलो भारतीय व्यंगचित्रकार आशिल्लो.

ताका जायते मानसन्मान फावो जाल्यात, ते अशे - पद्मभूषण (१९७१), मॅगसेसे पुरस्कार आनी नोपेक्स ट्रॉफी (१९८४), कर्नाटक राज्य पुरस्कार (१९८३), मराठवाडा डी. लिट्. (१९७९), दुर्गा रतन पुरस्कार (१९७४), बरे पत्रकारितेचें बी. जी. हॉर्निमन पुरस्कार (१९६९).

- कों. वि. सं. मं.

**लक्ष्मी** : श्री वा लक्ष्मी ही संपत्तीची अधिश्ठात्री देवता. लक्ष्मी हें उतर लक्ष्म म्हळयार चिन्न हाचेवयल्यान आयलां. लक्ष्मीचें दुसरें पर्यायी उतर म्हळ्यार श्री. श्री म्हळयार कांती, सोबीतकाय. श्री आनी लक्ष्मी ही एकेच देवतेचीं नांवां आसलीं, तरी त्यो मुळांत दोन वेगवेगळयो देवता आशिल्ल्यो. त्यो दोगीय विष्णुच्यो बायलो. श्री ही लक्ष्मीपरस पयलींची. वाजसनेयिसंहितेंतल्या पुरुशसुक्ताच्या निमाण्या मंत्रांत 'श्रीश्च ते लक्ष्मीश्च पत्न्यौ' असो उल्लेख आयला. ताचेवयल्यान पुरुशरुपी विष्णुच्यो श्री आनी लक्ष्मी ह्यो बायलो आशिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

बल आनी उन्माद हे लक्ष्मीचे दोन पूत. पूण हे भावात्मक आसुंये. आनंद, कर्दम, श्रीद आनी चिक्लीत अशा तिच्या चार पुतांचीं नांवां श्रीसुक्तांत आयल्यांत.

ऋग्वेदाच्या परिशिश्ट म्हणून मानपी श्रीसुक्ताची देवता 'श्री' म्हळयारूच 'लक्ष्मी'. कारण ह्या सुक्तानच लक्ष्मीची उपासना करतात. ही देवीस्वयंप्रकाशी, हिरण्मयी, अश्व-रथ-गज हांचे संपत्तीची स्वामिनी, कमळांत बसपी आनी पद्ममाळ धारण करपी म्हणून तिची नामना आसा. ही लक्ष्मी दळिद्राचो नाश करता. सगळया भुतांचेर तिची सत्ता चलता, ती मनांतली इत्सा पुराय करता, वाणीच्या सत्याची प्राप्ती करून दिता. श्रीसुक्तांतल्या प्रक्षिप्त म्हणून मानपी मंत्रांत लक्ष्मीचे विष्णुची बायल, माधवप्रिया, अच्युतवल्लभा अशे उल्लेख येतात. तिका महालक्ष्मी अशेंय



म्हळां. ती विष्णुमनोनुकुला आसून क्षीरसमुद्राची राजकन्या. धनलक्ष्मी, धान्यलक्ष्मी, धैर्यलक्ष्मी, शौर्यलक्ष्मी, विद्यालक्ष्मी, कीर्तीलक्ष्मी, विजयलक्ष्मी आनी राज्यलक्ष्मी अशा अश्टलक्ष्मी रुपांनीय तिका पुजनीय मानतात. सिद्धलक्ष्मी, मोक्षलक्ष्मी, जललक्ष्मी हींय लक्ष्मीचींच रुपां. ऋग्वेदांतल्या ज्ञानसुक्तांत 'भद्रेषां लक्ष्मीर्निहिताडधिवाचि' ह्या मंत्रांत एके तरेन वाग्लक्ष्मीचोच उल्लेख केल्लो दिसता. वाणीचें भद्र सौंदर्य ही लेगीत लक्ष्मीच. भागवत पुराणांत विष्णुची सोबीतकाय, कांती म्हळयारूच लक्ष्मी असो निर्देश केल्लो दिसता. तैत्तिरीय उपनिषदांत वस्त्र, गोधन, अन्न आनी पेय हांचो श्री म्हळयार लक्ष्मी असो उल्लेख आयला.

इंद्रैश्वर्यरुपी लक्ष्मीविशीं एक कथा आसा ती अशी - दुर्वासाच्या शापान इंद्र हो लक्ष्मीपसून भ्रश्ट जालो. तेरवातीर स्वर्गलक्ष्मी वैकुंठांत वचून महालक्ष्मींत विलीन जाली. उपरांत नारायणाचे आज्ञेन स्वर्गलक्ष्मीच्या रुपांतली लक्ष्मी क्षीरसागराची कन्या म्हणून जल्माक आयली. देव आनी दानवांनी क्षीरसागराचें मंथन केलें. तेन्ना तातुंतल्यान उत्पन्न जाल्ले लक्ष्मीन क्षीरसमुद्रावयल्या शेषशायी विष्णुक वरमाला घाली.

ब्रह्मवैवर्तपुराणाच्या प्रकृतिखंडांत आनी गणेशखंडांत लक्ष्मीचे उत्पत्तिविशीं आनी रुपांविशीं म्हायती मेळटा. ती अशी -

सृश्टीचे सुरवेक श्रीकृष्णाच्या शरिराच्या दाव्या आंगांतल्यान सोबीत सुंदर बायल निर्माण जाली. ताचेच इत्सेन ती द्विधा जाली. तिच्या दाव्या आंगांतल्यान महालक्ष्मी आनी उजव्या आंगांतल्यान राधिका अशीं दोन रुपां तिणें आपणायलीं. कृष्णानय दोन रुपां

घेतली. ताच्या उजव्या भागापसून निर्माण जाल्लें रूप दोन हात आशिल्लें आनी दाव्या भागापसून निर्माण जाल्लें शरीर चार हातांचें आशिल्लें. राधिकेन दोन भुजां आशिल्ल्या आनी लक्ष्मीन चार भुजां आशिल्ल्या कृष्णाक माळ घाली. उपरांत कृष्ण लक्ष्मीसयत वैकुंठांत रावपाक लागलो. वैकुंठांतले हे लक्ष्मीक महालक्ष्मी अशें नांव आसा. हे लक्ष्मीन योगाचे वतीन खूब रुपां घेतलीं. कृष्णावांगडा वैकुंठांत तिणें रमेचें रूप घेतलें, सर्गांत ती इंद्रैश्वर्यरुपी स्वर्गलक्ष्मी जाली. पाताळांत आनी मर्त्यलोकांत राजांकडेन ती राजलक्ष्मी म्हणून रावंक लागली आनी घरांत गृहिणी म्हणून गृहलक्ष्मी जाली. जेन्ना जेन्ना विष्णु अवतार घेता तेन्ना तेन्ना लक्ष्मीय विष्णुची सहचरी जावपाखातीर अवतार घेता. वामनावतारांत तिणें पद्मेचो अवतार घेतलो. परशुरामाच्या अवतारांत तिणें धरणीचें रूप घेतलें. रामावतारांत ती सीता जाली. कृष्णावतारांत ती रुक्मिणीच्या स्वरुपांत आयली.

लक्ष्मी ही शैव आनी वैश्णव ह्या दोनूय संप्रदायांच्या अनुयायांक उपास्य देवता थारल्या. शैव देवळांनी विष्णुची मूर्ती दिसना, पूण लक्ष्मीच्यो मूर्ती आसात. इहलोकी संपत्तीची आनी सौंदर्याची स्वामिनी आशिल्ली लक्ष्मी दुःशील आनी बुरशा व्यक्तींचो त्याग करता. देवाची पुजा, देवाचें नामस्मरण चलता त्या सुवार्तींनी ती वास करून आसता. कमळ, गज, भांगर आनी बेलाचीं फळां हीं लक्ष्मीच्या सतत सान्निध्यांत आसतात.

बायलांनी लक्ष्मीची पुजा चड करून चैत्र, भाद्रपद आनी पौष म्हयन्यांत करची. दिवाळेंतले उमाशेक लक्ष्मीपुजेचो खाशेलो विधी पुराणांत सांगला. ह्या दिसा चड करून प्रदोषकाळार लक्ष्मीची पुजा करची असो रिवाज आसा. वेपारी आस्थापनांनी आनी कांय प्रमाणांत घरांनी ह्या दिसा लक्ष्मीपुजा करपाची प्रथा भारतभर आसा.

**लक्ष्मीपूजन** : (१) उत्पादन, वेपार, धंदो आदींची भरभराट जावन संपत्ती एकठांय जावंची तेचप्रमाण साहित्य, ललीत कलांच्या मळार आनी जिणेच्या सगळ्या पांवड्यांचेर सोबितकाय आनी समृद्धी येवंची ह्याच हेतून राजा, कलाकार, साहित्यीक, वाणी-वेपारी लक्ष्मीचें पूजन पयलींसावन करीत आयल्यात. लक्ष्मीपूजन केल्ल्यान पूजकांच्या घरांत लक्ष्मी सदांच रावता आनी ताका दळिद्राची बादा जायना, अशी भावना आशिल्ल्यान सामान्य लक्ष्मीभक्तय लक्ष्मीपूजन व्हडा भक्ती भावान आनी श्रद्धेन करतात.

दिवाळेच्या निमतान घरांदारां, दुकानां, आस्थापनां, कारखाने झाडून नितळ करून रंग बी मारतात. दिव्यांची रोसणाय केल्ली आसता, अशा रंगयाळ्या वातावरणांत आश्विन म्हयन्यांतले उमाशेक प्रदोष काळांत लक्ष्मीचें पूजन करतात. पुजा करपी न्हावन-धुवन शूचिर्भूत (सोवळो) जावन एक चौरंग मांडटा. ताचेर स्वस्तिक काडटा आनी ताचेर द्रव्यरुपी लक्ष्मी तशेंच लक्ष्मीचो फोटोय दवरता. कलशाचेर कुबेराची प्रतिमा दवरता, दिवो पेटयता आनी पुजेचो संकल्प करतात. सुक्यो कोथमिऱ्यो, गोड, साळीच्यो ल्हायो, बताशो आनी चवळेच्यो सांगो लक्ष्मीक ओंपतात. वेलची, लवंगां आनी साकर घाल्ल्या दुदाच्या लाडवांचो निवेद्य लक्ष्मीक दाखयतात. गोंयांत चणे, खडीसाकर, गोड, चिरमुल्यो, बताशो, पेडे, तशेंच फोवांचोंय निवेद्य लक्ष्मीक दाखयतात. पुश्पांजली ओंपले उपरांत लक्ष्मी आनी कुबेराची प्रार्थना करतात. उपरांत जामिल्ल्या लोकांक देवीचो निवेद्य, प्रसाद तशेंच हेर भेटवस्तू दितात.

लक्ष्मी आनी कुबेर तशेंच लेखन साहित्यावांगडा फुडल्या वर्साच्या येणावळ - खर्चाच्यो चोपड्यो मांडून तांचीय पुजा करपाची रीत सावकार, वेपारी उद्देजकांमदीं दिश्टी पडटा.

हालीं तेंपार भौशिक लक्ष्मीपुजनांय जावंक लागल्यांत. थंय धर्मीक कार्यावळींवांगडाच मन रिजवणेच्यो कार्यावळी जातात.

(२) चैत्र शुद्ध पंचमी दिसा विष्णुचे आज्ञेन लक्ष्मी मृत्युलोकांत आयली, अशें मानतात आनी ते खातीर हेच तिथीक कांयकडेन लक्ष्मीची मातयेची मूर्त जाल्यार कांय सुवार्तींनी गंधाची गजलक्ष्मीची मूर्त पुजतात. कांयकडेन श्रीयंत्र काडून पुजा करपाचीय प्रथा आसा. कांय कडेन वण्टीचेर लक्ष्मीचें चित्र काडून ताची पुजा करतात, तर कांयकडेन लक्ष्मीचो मातयेचो मुखवटो आनी हेर अवयव कपड्याचे करून ताचीय पुजा करतात.

(३) नवी व्हंकल घरांत भितर सरली म्हण्टकच नवें जोडपें लक्ष्मीपूजन करता. नवे व्हंकलेक घोवा वटेनचें नवें नांव दवरपाचोय विधी ह्याच वेळार करपाची कांयकडेन चाल आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : दिवाळी

**श्री लक्ष्मी नारायण देवस्थान - कुंडय :** श्री महालक्ष्मी ऊर्फ आदोसकान्न (अदोशीकरीण) हें दैवत मूळचें गोंय, जुवें वा तिसवाडींतल्या आदोशी वा आजोशी ह्या गांवचें ग्रामदैवत. त्या दैवताचे मूळ संस्थापक महाजन ते ग्रामसंस्थेचे जाणकार वांगडी वा गांवकार हे आशिल्ले. पुर्विल्ल्या काळांत साश्ट म्हालांतल्या कोलवें, आदोशी गांवांतल्या श्रीमहालक्ष्मी देवीच्या कांय कुळावी म्हाजनांनी गावड्यांच्या आदारान हो आदोशी गांव वसयलो. थंय तांणी आपली ग्रामसंस्था स्थापन करून श्री महालक्ष्मी देवीची मूर्त स्थापन केली आनी तिका ते ग्रामदेवी मानपाक लागले. आदोशी हे ग्रामसंस्थेंत मूळचे तीन वांगड आशिल्ले आनी तातूंत ब्राह्मण वर्गी वांगडी आशिल्ले. पूण उपरांत इ.स.सोळाव्या शतमानांत पुर्तुगेजांनी केल्ले बाटाबाटी वेळार आनी धर्मछळाक लागून त्या तीन वांगडांतले पयलो आनी तिसरो हे दोन वांगड किरिस्तांव बामणांचे म्हळयार बाटोवन किरिस्तांव जाल्ल्या ब्राह्मणांचे जाले. दुसरो वांगड आदलेवरी हिंदूधर्मीय ब्राह्मणांचोच उरलो.

इ. स. १५४० वर्सा पुर्तुगेजांनी जमीनदोस्त केल्ल्या

तिसवाडींतल्या आदोशी गांवांतल्या देवालयांत म्हालकुमी म्हळयार श्री म्हालक्ष्मी, सप्तनाथ, रवळनाथ, नारायण, सती भूमीदेवता, वनदेवता, ग्रामपुरूस आनी ईश्वर ह्या दैवतांच्या देवालयांचो आस्पाव आशिल्लो. बाटाबाटी उपरांत हे ग्रामसंस्थेच्या दुसऱ्या वांगडांचे हिंदुधर्मीय ब्राह्मण 'भांडारी' उपनांवाचे. तांणी आपलें दैवत कुंडय गांवांत उबारून हाडलें आनी थंय ताची स्थापना केली.

हें देवस्थान कुंडय गांवांत दासोळ वाड्यार आसून तें ऊंच आसा. ताचे दावे वटेन श्री रवळनाथाचें ल्हानशें देवूळ आसा. हांगाच्या मुखेल देवीची श्रीमहालक्ष्मीची मूर्त पंचलवी आसून ती गाभाऱ्यांत मुख्यासनाचेर बशिल्ली आसा. श्री नारायणाची ल्हान मूर्त महालक्ष्मी लागसारूच आसा.

दर एका म्हयन्याच्या शुक्ल आनी कृष्ण पक्षाची अश्टम हो सदचो पर्वणीचो दीस आसून ते रातीं पालखी उत्सव जाता. ह्या देवालयांत जावपी हेर उत्सव अशे आसात - चैत्र शुक्ल अश्टमीक वसंतपुजा, पालखी उत्सव, फळाहार; आषाढ शुक्ल एकादशीक भजनोत्सव, नामसंकीर्तन; श्रावण म्हयन्यांतल्या दर एका शुक्राराक जायांच्या फुलांची पुजा; भाद्रपद शुक्ल चतुर्दशीक श्री अनंतव्रतोत्सव; आश्विन शुक्ल पाडव्या सावन नमी मेरेन चंडीपाठ, पाडव्याक घटस्थापना, अश्टमी दिसा पालखी आनी नमीक जायांची पुजा, दसमी दिसा शिमोल्लंघन - दसरो. सांजेच्या पांच वरांचेर श्रीची शिबिकारूढ स्वारी लव्याजम्यासयत शिमोलंघन करून उपरांत देवळांत परत येता. आश्विन शुद्ध पुनवेमेरेन काकड आरती, हरिजागर जाता. कार्तिक वद्य १०मी दिसा सकाळीं श्रीलक्ष्मी पालखेंत बसून स्थलभूंयेंतल्या पेडार येता. थंय तिची पुजा करून वनभोजन करतात. फाल्गून म्हयन्यांत हांगा होळिकापुजन आसता.

श्री लक्ष्मीनारायण दैवताचे म्हाजन भारद्वाज गोत्री गौड सारस्वत ब्राह्मण माध्य सांप्रदायी भांडारी उपनांवाचे आसून तांची वसती चड करून कुंभारजुवें, बांदोडें, कपिलेश्वरी, व्हडलें गोंय, पणजी, मडगांव, मुरगांव आनी मुंबय आसा. मुंबयंत ह्या देवस्थानाचे 'किनरे' उपनांवाचें एक कौंडिण्य गोत्री म्हाजन घराणें मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

## श्री लक्ष्मी नारायण महामाया देवस्थान-नागवें :

सद्या उत्तर कर्नाटकांत हनुमट्ट अंकोल्याक आशिल्लें नामनेचें देवस्थान. हें देवस्थान इ. स. च्या सोळाव्या शतमानांतल्या निमाणे मेरेन गोंयांत साश्ट म्हालांतल्या नागवें वाठारांत आशिल्लें. पुर्तुगेज काळांत जेजुइत पाद्रींनी हिंदु देवळांची मोडतोड करपाक सुरू केल्ल्यान थंयच्या कुळाव्या म्हाजनांनी हांगाच्या देवाक गोंयाभायर अंकोल्याक व्हरून स्थापन केलो.

नागवें ह्या थळाविशीं स्कंदपुराण-सह्याद्रिखंड हातूंत पुराणीक म्हायती मेळटा ती अशी -

नागाव्हय नगरांत (सध्याचें नागवें) नागांनी तपश्चर्या करून गरुडापसून राखण मेळची म्हणून वर मागून घेतलो तेन्ना शिवान तांची गरुडापसून राखण केली आनी थंयच रावपाचें वचन दिलें. तशेंच थंय वरदाभगवती रावतली अशेंय उतर दिलें.

सह्याद्रिखंडांत दुसऱ्या एका अध्यायांत म्हायती मेळटा ती अशी- ह्या नागक्षेत्रांत (नागवें) श्री शांतादेवी आनी अनिरुद्ध देव आसात. थंयच पुराण सांगपी शांत नांवाचो एक ब्राह्मणमुनी रावतालो. तो सदांच शांतादेवीची भक्ती करतालो. एक दीस तिणें प्रसन्न जावन ताका वर दिलो आनी सांगलें, जाणें हें त्रैलोक्य निर्माण केलां तो जगत उत्पादक अनिरुद्ध शांतादेवीवांगडा तुऱ्यांत वास करता. ताची भक्ती कर, अशें म्हणून ती रोयणींत अंतर्धान पावली. तेन्नाच्यान तो कमलवासी शांतादेवीपती प्रभु यज्ञपुरुष हाची भक्ती करपाक लागलो. तेन्ना आदिनारायण ताका प्रसन्न जालो आनी ताणें ताका थंयच वास करपाचें वचन दिलें. तेन्नाच्यान ह्या क्षेत्रांत विष्णु, शांतादेवी, शिव, भगवतीदेवी, गणपती, भूतनाथ हीं दैवतां आसात.

स्थलांतरा आदीं नागवें गांवांत सांतेरी, भगवती, ईश्वर, गांवपुरूस, नारायण, रवळनाथ, बाराजण हीं दैवतां आशिल्लीं. तशेंच, श्री भगवतीची मूर्त नागवेंच्यान माशेलांत व्हेली आनी ग्रामपुरूस, बाराजण, सांतेरी, आदींच्यो मूर्ती नागवेंच्यान अंकोल्याक व्हेल्यो.

पुर्तुगेजांनी चलयल्ले बेसुमार बाटाबाटीक वाजेवन जायते गोंयकार गोंयांभायर पळून गेले. वतना तांणी आपआपले कुलदेवूय वांगडा व्हेले. तशेंच नागवेंच्यान अंकोल्याक हेर सगळे देव व्हरतना महामाया रोयणीच्या रुपांत आशिल्ल्यान तांकां अडचण जाली. तेन्ना महामायेन सपनांत दृश्टांत दिवन ती नाल्लाच्या रुपांत अवतीर्ण जातली अशें सांगलें. ते प्रमाण नाल्लाच्या रुपांतली महामाया आनी लक्ष्मीनारायणाची प्रतिमा घेवन लोक गोंयांतल्यान अंकोल्याक गेले. जेन्ना ते हनुमट्ट गांवांत पावले तेन्ना काळोख जाल्लो. तशेंच थंय दाट रान आशिल्ल्यान ते थंयच श्री महिषासूरमर्दीनी श्री भगवतीच्या देवळांत रावले. थंय श्री विरप्पा, श्री होनप्पा आनी श्री हनुमंत आदींचीं देवळां आशिल्लीं. श्री हनुमंताच्या देवळाक लागून ह्या वाठाराक हनुमट्ट अशें म्हण्टात. दुसऱ्या दिसा तांकां तांणी दवरिल्ल्या नाल्लाचेर मुयांनी रोयण केल्ली दिश्टी पडली. तें पळोवन तांणी महामाया आनी श्री लक्ष्मीनारायणाक थंयच रावपाची इत्सा आसा हें जाणून, थंयच तांची स्थापना केली.

अंकोल्याक सद्या श्री लक्ष्मीनारायण, श्री महामाया, श्री गणपती, श्री भगवती, श्री भूतनाथ, श्रीकामपुरूस, वारांगण, पूर्वसांतेरी आनी बाळेर हीं देवस्थांना आसात. ह्या देवस्थानांत नवरात्र हवनपुजा, चौरीपुजा नांवाचे उत्सव मोटे उमेदीन मनयतात. ह्या देवस्थानाचें खाशेलेपण म्हळयार हांगा भांगर महामाया नांवाचो खास उत्सव

जाता.

ह्या देवीच्या म्हाजनांमदीं मुखेलपणान गौड सारस्वत, शेट, वाणी आनी किंरिस्तांव धर्मीय लेगीत देवीचे पुर्विल्ले कुळावी आसात.

१३ मे १९३७ दिसा अक्षय तृतीयेच्या शुभ म्हूर्तार हांगाच्या देवळाचेर तीन भांगरा कलश बसयले. २८ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा श्री ईश्वर पार्वतीची प्रतिशठापना आनी १९५७ वर्सा श्री भगवती पूर्व सांतेरी देवीची प्रतिशठापना, श्री गोकर्ण पर्तगाळी मठाधीश श्रीमत विद्याधिराज हाचे हस्तुकीं जाली.

ह्या देवस्थानांत जावपी हेर वर्सुकी उत्सव अशे आसात. श्रावण शुक्ल पंचम-नागर पंचम, आश्विन शुक्ल प्रतिपदा, घटस्थापना, अश्विन शुक्ल नम-महानम, आश्विन शुक्ल दसम - दसरो, आश्विन वद्य पंचम - पंचमी, देवकार्य संतपर्ण, वडेपंचम - बहुल पंचम, आश्विन वद्य तिरोदस कौलर पुजा, कार्तिक पुनव - वनभोजनोत्सव, मार्गशिर्ष शुक्ल पुनव - पर्वकालदा पुनव, माघ शुक्ल पंचम, दिवजां पंचम, फाल्गुन पुनव, होळी, फाल्गून वद्य तय - सुगीउत्सव.

- कों. वि. सं. मं.

**श्री लक्ष्मी नारायण देवस्थान - नार्वें :** दिवचल म्हालांतल्या नार्वें क्षेत्रांत आशिल्लें नामनेचें देवस्थान. दीवा सावन वेपार धंद्याच्या निमतान गोंयांत आयिल्लो एक गुर्जर, कै. श्री सागस्ती शेठ हाणें इ. स. १६५० वर्सा दिवचलच्या नार्वें गांवांत खासा गुजराती समाजाखातीरूच हें देवस्थान स्थापन केलें. ताणें गोंयांत आशिल्ल्या आपल्या कांय समाजभावांच्या आदारान स्वखर्चान हें देवस्थान उबारलें. ह्या देवस्थानाचे म्हाजनय गुजरातीच आसात. पूण खंयच्याय गोंयकार हिंदूंक ह्या देवस्थानाचे म्हाजन सभेचे मान्यतायेन ह्या देवळांत धर्मीक देवकृत्यां आनी उत्सव करपाक मान्यताय दिल्ली आसा. पूण ते करप्यांक देवस्थानाच्या धर्मीक नेमांक पाळो दिवप गरजेचें आसता.

ज्या काळांत हें देवस्थान स्थापन जालें तेन्ना देवस्थानाच्या आद्य संस्थापकांनी ताचे घटनेंत एक म्हत्वाची गजाल नमुद केल्ली. ती म्हळयार हें देवालय नार्व्यांपरस हेर खंयच्याय सोयीच्या जाग्यार स्थलांतर करपाचें आसल्यार तें करपाची मान्यताय दिल्ली आसा. तशेंच ताणें देवस्थानाचो दीसपट्टो खर्च, महानिवेद्य, पुजा अर्चा आनी सगळे वर्सुकी उत्सव मनोवपाखातीर तशी वेवस्था करून दिल्ली आसा.

ह्या देवस्थानांत गोकुळाश्टमी, गौळण कालो, महाशिवरात्र, वद्य एकादशी दिसा आनी कार्तीक पुनवेक फुलांपुजा अशे उत्सव मनयतात. ह्या देवस्थानाच्या घटनात्मक नेमावळीत त्या देवस्थानाच्या कुळावी म्हाजनांचे वळेरेंत फकत बारा मनशांचीं नांवां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**श्री लक्ष्मी नृसिंह देवस्थान - वेलिंग :** फोंडें म्हालांतल्या वेलिंग गांवांत आशिल्लें नामनेचें देवस्थान. हें देवस्थान मूळ साश्टीच्या सांकवाळ गांवांत आशिल्लें. पूण पुर्तुगेज राजवटींत बाटाबाटीच्या काळांत मूर्ती भंजनाच्या भंयान शंखवाळच्या (सांकवाळ) कुळाव्यांनी श्री लक्ष्मीनृसिहाचें स्थलांतर करून ताका फोंडेंच्या करंजाळे नांवाच्या वाड्यार फडटे ह्या कुटुंबागेर दवरलो. उपरांत सद्याच्या वेलींग गांवांत ताची स्थापना केली. हें स्थलांतर १ मे १५६० दिसा आदीं म्हळयार जेजुइत पाद्रींचें मंडळ कुठ्ठाळे गांवांत येवंचे आदीं जालें असो उल्लेख मेळटा. तशेंच इ. स. १७२१ वर्सा बरयल्ल्या कोंकणाख्यान ह्या ग्रंथांतूय सांकवाळेच्या श्री लक्ष्मीनृसिंह देवस्थानाच्या स्थलांतराविशीं म्हायती मेळटा.

हांगा कार्तिक शुक्ल चतुर्दशी (वैकुंठचतुर्दशी) दिसासावन पांच दीस मेरेन दर वर्सा महापर्वणी महोत्सव जात्रा उत्सव मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**लँगम्यूर, अर्विंग :** (जल्म : ३१ जानेवारी १८८१, ब्रुकलिन - न्यूयॉर्क; मरण : १६ ऑगस्ट १९५७, फॅल्मथ मॅसॅचूसेट्स).

अमेरिकन भौतिकीय रसायनशास्त्रज्ञ. घन आनी द्रव पृश्ठभागांवयल्या रेणवीय पटला संबंदींच्या ताच्या अभ्यासाक लागून कलिल संशोधनाच्या क्षेत्रांत आनी जीवरसायनशास्त्रांत नवें दालन उगडलें. तेखातीर ताका १९३२ वर्साचो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो.

लँगम्यूर हाचें मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण थोडो तेंप फ्रांसांत आनी उपरांत न्यूयॉर्कांत जालें. १९०३ वर्सा ताणें कोलंबिया विद्यापिठाच्या स्कूल ऑफ मायन्सची धातूविज्ञानाची पदवी घेतली. पदव्युत्तर शिक्षणाखातीर तो जर्मनीक गेलो. थंय ताणें डब्ल्यू.एच्.नॅर्न्स्ट हाच्या मार्गदर्शनाखाल संशोधन करून १९०६ वर्सा गटिंगेन विद्यापिठाची पीएच्.डी. पदवी घेतली. अमेरिकेक परत येतकच न्यू जर्सींतल्या स्टीवन्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजींत तो रसायनशास्त्राचो निदेशक जालो. फुडें स्कनेक्टडींतले (न्यूयॉर्क) जनरल, इलॅक्ट्रिक कंपनींत तो काम करूंक लागलो. तो निमाणेमेरेन म्हळयार १९५० वर्सा निवृत्त जायमेरेन थंयच ते कंपनीचो सल्लागार आशिल्लो.

वायूंतलें विद्युत् विसर्जन, इलॅक्ट्रॉन उत्सर्जन ह्या विशयांचेर ताणें संशोधन केलें. तशेंच टंगस्टन तंतूच्या विजेच्या दिव्यांची पिराय वाडोवपाविशींय संशोधन केलें. हाचेभायर ताणें निर्वात पंप, रेडिओ प्रक्षेपणांत वापरतात त्यो उच्च निर्वात नलिका आनी ३०००° सॅ. परस उच्च तापमान निर्माण करपी आणवीय हायड्रोजन प्रज्योत हीं उपकरणां विकसीत केलीं. ताणें स्वतंत्रपणान आणवीय संरचना आनी रसायनीक बंधनिर्मिती हांच्या सिद्धांतांचें सुसूत्रीकरण केलें. तेचवांगडा सहसंयुजा ही संज्ञा उपेगांत हाडली. १९४६ वर्सा ताणें आपल्या सांगात्यांबरोबर

सिल्वर आयोडायड आनी घनरूप कार्बन डाय-ऑक्सायड कुपांनी घाल्यार कृत्रीम पावस पडपाची शक्यताय नियाळून पळयली.

ताका भोंवडेची आवड आशिल्ली. तो गिर्यारोहकय आशिल्लो. तशेंच तो खाजगी विमान चालकय आशिल्लो. १९३२ वर्सा ताणें २,७४३ मी. उंचायेवयल्यान विमानांतल्यान सूर्यगिराणाचीं निरिक्षणां केल्लीं.

- कों. वि. सं. मं.

**लँडस्टायनर, कार्ल :** (जल्म : १४ जून १८६८ व्हिएन्ना; मरण : २६ जून १९४३ न्यूयॉर्क).

ऑस्ट्रियन - अमेरिकन विकृतीवैज्ञानिक आनी रोगप्रतिकारक्षमता वैज्ञानिक. रक्तगटाविशींच्या म्हत्वाच्या कार्याखातीर ताका १९३० वर्साच्या शरीरक्रियाविज्ञान वा वैजकी विशयाचो नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो.

व्हिएन्ना विद्यापिठांत वैजकीचें शिक्षण घेवन १८९१ वर्सा ताणें एम्. डी. ची पदवी घेतली. कांय काळ जर्मनींत एमील फिशर आनी स्विट्झर्लंडांत आर्थर हांट्श हांच्या मार्गदर्शनाखाल रसायनशास्त्राचो अभ्यास करतकच ताणें कांय रुग्णालयांनी आनी उपरांत व्हिएन्ना विद्यापिठाच्या पॅथॉलॉजिकल इन्स्टिट्युटांत १८९७-१९०८ मेरेन संशोधन सहाय्यक म्हणून काम केलें. १९०९ - १९ ह्या काळांत तो व्हिएन्ना विद्यापिठांत विकृतीविज्ञानाचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९१९ वर्सा तो नॅदर्लंड्साक गेलो आनी थंयसावन १९२२ वर्सा अमेरिकेंत न्यूयॉर्कांतले रॉकफेलर इन्स्टिटयूट फॉर मॅडिकल रिसर्च हे संस्थेच्या आपोवण्यावयल्यान गेलो आनी निमाणेमेरेन ताणें थंय अध्यापन आनी संशोधन केलें. ताका अमेरिकेचें नागरिकत्वय मेळ्ळें.

लँडस्टायनर हाका मनशाच्या रगतांत मूलभूत फरक आशिल्ल्याचें दिसलें. ताका लागून तारतम्यतायेन विचार करिनासतना एका मनशाचें रगत काडून तें दुसऱ्या मनशाक शिरांतल्यान दिवप हातुंतले धोके समजले. रगतांतल्या तांबड्या पेशींच्या पातळ पटलमय आवरणावयल्या शर्करायुक्त पदार्थांच्या प्रकारांवयल्यान उण्यांत उणे तीन मुखेल रगताचे गट वळखूंक येतात अशें ताणें १९०१ वर्सा दाखयलें. ह्या गटांक ताणें A, B आनी O अशीं नांवां दिलीं. फुडल्या वर्सा ताच्या सहाय्यक संशोधकांक A आनी B हे दोनय प्रतिजन आशिल्लो पूण AB प्रतिपींड नाशिल्लो असो चवथो रगताचो गट (AB) मेळ्ळो. लँडस्टायनर हाचे A B O रगतगट विभागणी पद्दतीक लागून आतां रक्ताधान ही वैजकी परिपाठांतली एक सुरक्षीत गजाल जाल्या. फुडें १९२७ वर्सा लँडस्टायनर हाणें पी. लेव्हिन हाचेवांगडा M, N आनी P ह्या रगतगटांचो आनी १९४० वर्सा लेव्हिन आनी अॅलेक्झांडर वीनर हांचेवांगडा ऱ्हीसस (Rh) घटकाचो सोद लायलो. आवय आनी भ्रूण हांच्या रगतांत घडून येवपी घटनांत Rh घटक मूलभूत म्हत्वाचो आसून ताका लागून गर्भपात वा नवजात अर्भकांत अपायकारक दुयेंस जावं येता. लँडस्टायनर हाच्या कार्याक लागून न्यायवैजकींत विवाद्य पितृत्व आनी खूनाची चवकशी हे विशीं ग्राह्य धरपासारको पुरावो मेळ्ळो. रगताचो गट विशिश्ट जिनांचे वतीन बडीन प्राप्त जाता अशें सिद्ध जाल्ल्यान मानवी अनुवंशिकी आनी मानवशास्त्र हांच्या अभ्यासांत म्हत्वाचें साधन उपलब्ध जालें. झटकेयुक्त रक्तारुणमेह (रगतांतल्या तांबड्या कोशिकांतल्या तांबड्या रंजकद्रव्य हीमोग्लोबीन मुतांत मुक्त स्थितींत आसप) ही विकृती निर्माण करपी प्रक्रियेचो लँडस्टायनर हाणें सोद लायलो.

पोलिओ हें दुयेंस माकडांभितर प्रायोगिक रितीन ताणेंच पयलीं उत्पन्न केलें. हें दुयेंस वायरसजन्य आसा असो निश्कर्शूय ताणें काडिल्लो. १९२१ वर्सा ताणें प्रतिजनांच्या हॅप्टेन ह्या विशिश्ट घटकांचें अस्तित्व सिद्ध केलें. रोगप्रतिकारक्षमताय विज्ञानाच्या विकासांत हो सोद म्हत्वाचो थारलो. रसायनीक आनी रक्तरस वैज्ञानिक तंत्रांचो उपेग करून ताणें रक्तारुणाच्या विंगड विंगड प्रकारांनी भेद केलो. लँडस्टायनर आनी निग्ज हांणी १९३० - ३२ त प्रलापक सन्निपात ज्वराक (Typhus Fever) कारणीभूत आसपी रिकेट्सिया प्रोवाझेकी ह्या सुक्षीमजंतूंचें जित्या माध्यमाचेर संवर्धन करपांत जैत मेळयलें.

लँडस्टायनराक नोबॅल पुरस्कारावांगडा पॉल अर्लिक पदक आनी डच रॅडक्रॉस पदक तशेंच शिकागो, कॅंब्रिज, ब्रूसेल्स आनी हार्व्हर्ड ह्या विद्यापिठांच्यो मानादीक पदव्यो हे भोवमान मेळ्ळे. ताणें बरयल्ल्या द स्पेसिफिसिटी ऑफ सिरॉलॉजिकल रिॲक्शन्स (इं.अ. १९६२, मूळ जर्मन ग्रंथाचों माथाळो) Die Spezifitaet der Serologischen Reaktionen, १९३६) ह्या ग्रंथाक लागून रोगप्रतिकार क्षमताय रसायनशास्त्र प्रस्थापित जावपाक आदार मेळ्ळो. ताचे सुमार ३५० संशोधन निबंद उजवाडा आयले.

- कों. वि. सं. मं.

**लँडा (लंडौ), ल्येअव्ह डव्हीड व्हिच :** (जल्म : २२ जानेवारी १९०८, बाकू आझर बायजान; मरण : १ एप्रिल १९६८, मॉस्को).

रशियन भौतिकीविज्ञ. संघनित द्रव्यासंबंदींच्या संशोधनाखातीर, चड करून द्रवरूप हिलियमाच्या बाह्यात्कारी विरोधाभाशी दिसपी गूणधर्मांविशीं ताणें दिल्ल्या सैद्धांतिक स्पश्टीकरणाखातीर, १९६२ वर्साचो भौतिकीचो नोबॅल पुरस्कार ताका मेळ्ळो.

पिरायेच्या तेराव्या वर्सा ताचें शालेय शिक्षण पुराय जालें. १९२२वर्सा ताणें बाकू विद्यापिठांत भौतिकी गणित आनी रसायनशास्त्र ह्या विशयांच्या अध्ययनाक सुरवात केली. १९२४ वर्सा ताका लॅनिनग्राड विद्यापिठांत धाडलो. थंयसावन १९२७ वर्सा ताणें पदवी घेतकच लॅनिनग्राड फिजिको - टॅक्निकल इन्स्टिट्युटांत आपलें संशोधन चालू दवरलें.

१९२९त सोव्हिएत सरकाराची प्रवासी अधिछात्रवृत्ती आनी रॉकफॅलर प्रतिश्ठानाची अधिछात्रवृत्ती मेळटकच जर्मनींतल्या गटिंगेन आनी लायपसिकाक तो थोडो तेंप रावलो आनी उपरांत डॅन्माकांतल्या कॉपॅनहायन हांच्या नील्स बोर हाच्या इन्स्टिट्यूट फॉर थिऑरेटिकल फिझिक्स हे नामनेचे संस्थेंत गेलो.

बोर हाच्या कार्याचो आनी ताच्या मार्गदर्शनाखाल केल्ल्या अध्ययनाचो लँडा हाच्या भौतिकीविशींच्या दृश्टीकोनाचेर व्हड प्रभाव पडलो. १९३१ वर्सा रशियेक परतून येवंचे पयलीं ताणें कॅंब्रिज आनी झुरिकांत कांय काळ अध्ययन केलें. ते उपरांत १९३३ आनी १९३४त थोडो तेंप कॉपॅनहायनांत रावलो. उरिल्लें आपलें जिवीत ताणें रशियेंतच सारलें. १९३२ वर्सा तो खारकॉव्हाच्या युक्रेनियन फिझिको - टॅक्निकल इन्स्टिट्युटांत भौतिकी विभागाचो मुखेल जालो. १९३७ वर्सासावन निमाणे मेरेन रशियेच्या ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसच्या इन्स्टिट्यूट फॉर फिझिकल प्रॉब्लॅम्स हे संस्थेंत सैद्धांतिक विभागाचो मुखेल म्हणून ताणें काम केलें. त्याच वेळार ताणें खारकॉव आनी मॉस्को विद्यापिठांनी सैद्धांतिक भौतिकीचो प्राध्यापक म्हणुनय सातत्यान अध्यापन केलें. ताच्या यत्नांक लागून खारकॉव हें रशियेंतल्या सैद्धांतिक भौतिकीचें केंद्रस्थान जालें. स्टॅलिनाचे कारकिर्दीत लँडा हाका १९३८ वर्सा बंदखणीची ख्यास्त जाली. पूण पी. एल्. काप्यिट्स ह्या भौतिकीविज्ञांचे व्यक्तिगत मध्यस्थीक लागून ताची सुटका जाली.

लँडाचो ताच्या काळांतल्या मुखेल सैद्धांतिक भौतिकीविज्ञांभितर आस्पाव जाता. ताणें नीच तापमान भौतिकी, पुंजयामिकी, आणवीय आनी अणुकेंद्रीय भौतिकी, खगोल भौतिकी, ऊश्मागतिकी, पुंज विद्युत् गतिकी ह्या भौतिकीच्या विंगड विंगड फांट्यांनी म्हत्वाचें कार्य केलें. भौतिकीच्या वेगवेगळ्या फांट्यांनी केल्लें कार्य लँडा प्रतिचूंबकत्व, घन अवस्था भौतिकींतली लँडा पातळयो, आयनद्रायू भौतिकींतली लँडा दमनक्रिया, नीच तापमान, भौतिकींतली लँडा ऊर्जा वर्णपट ह्या नांवांनी वळखूपी वेगवेगळ्या संज्ञांनी दिश्टी पडटा. १९३० वर्सा ताणें चुंबकी क्षेत्रांतल्या मुक्त इलेक्ट्रॉनांच्या वर्तनासंबंदीं पुंज-सैद्धांतिक नदरेन केल्लें आपलें संशोधन उजवाडायलें आनी तें धातूंचे गूणधर्म समजुपाचे नदरेन म्हत्वाचें आशिल्ल्यान ताका आंतरराश्ट्रीय मान्यताय मेळ्ळी. १९३५ वर्सा ताणें लोखणाभशेन पदार्थांतल्या आणवीय चुंबकांच्या वर्तनाचें गणितीय स्पश्टीकरण दिवन लोहचूंबकत्वासंबंदींच्या ज्ञानांत म्हत्वाची भर घाली. १९५० उपरांतच्या काळांत ताणें हिलियमाच्या तीन अणुभार आशिल्ल्या समस्थानिकांच्या गूणधर्मासंबंदीं संशोधन केलें. १९५६-५८ ह्या काळांत ताणें ह्या समस्थानिकाच्या गूणधर्मासंबंदींचे सिद्धांत उजवाडायले आनी तातूंत ताणें एका नव्या प्रकारच्या तरंग प्रसारणाचें ('शुन्य ध्वनी' चें) भाकीत सांगिल्लें. ताणें ई.एम्. लिफशिट्स हाचे वांगडा भौतिकीच्या पुराय विशयाचें एकठांयपणान विवरण करपी 'कोर्स ऑफ थिऑरेटिकल फिझिक्स हो ग्रंथ (इ. अ. ८ खंड) बरयलो आनी ते खातीर त्या दोगांयकय लॅनिन विज्ञान पुरस्कार संयुक्तपणान मेळ्ळो. हाचेभायर ताका 'हिरो ऑफ सोशॅलिस्ट एफर्ट' हो किताब, रशियाचो राज्य पुरस्कार तीन खेपे, तशेंच माक्स प्लॅाक पदक आनी फ्रिट्झ लंडन पारितोशिक हे भोवमान मेळ्ळे. रशियेची ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, लंडनची रॉयल सोसायटी, अमेरिकेची नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस ह्या नामनेच्या संस्थांचो तो वांगडी आशिल्लो. ताचे वैज्ञानिक निबंद डी. टर हार हाणें कलॅक्टेड पेपेर्स ऑफ एल्. डी. लँडा (१९६५) ह्या ग्रंथांत एकत्रीतपणान संपादीत केले. ताच्या सगळया ग्रंथांचे इंग्लिशींत अणकार जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## लँब, विलिस यूजीन

**लँब, विलिस यूजीन** : (जल्म : १२ जुलय १९१३, लॉस अँजेलीस; मरण : ? ).

अमेरिकन भौतिकीविज्ञ. हायड्रोजन वर्णपटाचे सुक्ष्मसंरचनेसंबंदीं ताणें लायिल्ल्या सोदाखातीर ताका १९५५च्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान पॉलिकार्प कूश ह्या अमेरिकन भौतिकीविज्ञानावांगडा मेळ्ळो.

लँब हाणें बर्कलीच्या कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत शिक्षण घेवन १९३४ वर्सा रसायनशास्त्राची बी. एस्. पदवी घेतली. त्याच विद्यापिठांत जे. रॉबर्ट ओपेनहायमर हाच्या मार्गदर्शनाखाल अणुकेंद्रीय प्रणालीच्या विद्युत् चुंबकीय गुणधर्मांचेर संशोधन करून ताणें १९३८ वर्सा भौतिकींतली पीएच्.डी. पदवी घेतली. त्याच वर्सा तो कोलंबिया विद्यापिठांत निदेशक म्हणून काम करूंक लागलो आनी १९४८ वर्सा तो प्राध्यापक जालो. १९४३ - ५१ ह्या काळांत ताणें कोलंबिया रेडिएशन लॅबोरेटरींतय काम केलें. १९५१ वर्सा स्टॅनफर्ड विद्यापिठांत भौतिकीच्या प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली. १९५३-५४त तो हार्वर्ड विद्यापिठांत मॉरिस लोब अध्यापक आनी १९५६-६२ ह्या काळांत इंग्लंडांतल्या ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत न्यू कॉलेजचो अधिछात्र आनी भौतिकीचो वायकॅम प्राध्यापक आशिल्लो. ते उपरांत यॅल विद्यापिठांत तो १९६२ वर्सा भौतिकीचो हॅन्री फोर्ड प्राध्यापक आनी १९७२ त गिब्ज प्राध्यापक जालो. १९७४ वर्सासावन तो ॲरिझोना विद्यापिठांत भौतिकी आनी प्रकाशकी विज्ञानाचो प्राध्यापक जालो. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत रोखडेंच लँब हाणें हायड्रोजनाच्यो ऊर्जा पातळयो आनी वर्णरेशा हेसंबंदीं पॉल डिरॅक हाणें सांगिल्ल्या भाकितांची अचुकताय तपासपाचें कार्य सुरू केलें. रेडिओ कंप्रता अनुस्पंदन तंत्राचो उपेग करून लँब हाणें १९४७त केल्ल्या अचूक कार्यावयल्यान ह्या ऊर्जा पातळयांत सूक्ष्म फरक आशिल्ल्याचें समजलें. ह्या फरकाक लँब स्थानच्युती म्हण्टात. हाका लागून इलेक्ट्रॉन आनी विद्युत् चुंबकी प्रारण हातुंतले आंतरक्रियेसंबंदींच्या सिद्धातांत सुदारणा करप शक्य जालें. ह्या

कार्याखातीर ताका नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो.

हाचेभायर ताणें आनीकय कांय विशयांचेर संशोधन केलें. न्यूट्रॉन आनी द्रव्य हातुंतले आंतरक्रियेसंबंदींचो सिद्धान्त, विश्वकिर्णांच्या वर्षावांत जावपी फेरबदल, युग्मनिर्मिती, रेणुंतली चतुर्ध्रुवी आंतरक्रिया, मॅग्नेटॉन आंदोलकांसंबंदींचो सिद्धांत आनी तांचो अभिकल्प, सूक्ष्मतरंग वर्णपट दर्शकासंबंदींचो सिद्धांत आदी.

नोबॅल पुरस्कारावांगडा ताका अमेरिकन अॅकॅडेमी ऑफ आर्टस् अँड सायन्सीसचें रम्फर्ड प्रिमियम (१९५३), पेनसिल्वानिया आनी येशिव्हा ह्या विद्यापिठांच्यो मानादीक पदव्यो, गुगेनहायम अधिछात्रवृत्ती (१९६०), रिसर्च कॉर्पोरेशनाचो पुरस्कार हे भोवमान ताका फावो जाले. तो अमेरिकेची नॅशनल अॅकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, एडिंबरोची रॉयल सोसायटी, अमेरिकन फिजिकल सोसायटी ह्या संस्थांचो वांगडी आशिल्लो.

हायड्रोजन अणूच्या सूक्ष्म संरचनेसंबंदी फिजिकल रिव्ह्यू ह्या नेमाळ्यांत उजवाडा आयिल्ले एके म्हत्वाचे निबंदमाळेचो तो मुखेल लेखक आशिल्लो. ताणें एम्. सार्जंट आनी एम्. ओ. स्कली हांचेवांगडा लेझर फिझिक्स (१९७४) हो ग्रंथ बरयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**लाओस** : आग्नेय आशियेंतलो इंडोचायना द्विपकल्पांतलो एक देश. क्षेत्रफळ २,३६,८०० चौ. किमी. लोकसंख्या ३५,८४,८०३ (१९८५). विस्तार १३°४०′ ते २२°४०′ उत्तर अक्षांश आनी १००° ते १०७° उदेंत रेखांश. लाओसचे उदेंतेक व्हिएतनाम, उत्तरेक चीन आनी व्हिएतनाम, दक्षिणेक कांपुचिया आनी अस्तंतेक थायलंड आनी म्यानमार हे देश आसात. देशाची आग्नेय-वायव्य चडांत चड लांबाय १,१६२ किमी. जाल्यार ईशान्य-नैऋत्य चडांत चड रुंदाय ४७८ किमी. व्हॅंत्यान हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** हो देश मेकाँग न्हंयेच्या देगणांत वसला. ताका उत्तर आनी उदेंतेकडेन खडबडीत, सड्यांनी आनी पर्वतांनी रेवडिला. सडे आनी पर्वतीय प्रदेशांतल्यान व्हांवपी न्हंयांच्या खोल आनी अशीर देगणांक लागून हो प्रदेश कांयकडेन खंडीत जाल्लो आसा. देशाचे उदेंतेकडेन व्हिएतनाम शिमेचेर सुमार २,७०० मी. उंचायेची अॅनामितीक पर्वतावळ आसा. देशाच्या मध्यभागांत आशिल्लें माऊंट बिआ हें देशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. अॅनामितिक पर्वताक तीन खिंडी आसून, तांचेमदल्यान लाओस आनी व्हिएतनाम एकामेकांक जोडल्यांत. मध्य भागांत यार्स हो सपाट भाग आसा. तो झिआंग खोआंग सड्याचोच एक भाग. देशाच्या ईशान्य भागांत ट्रान्निंग सडो आसा. ताची उंचाय १,०२० ते १,३७० मिटरांमेरेन आसा. मेकाँग आनी तिच्या फांट्यांच्या देगणांनी बारीक मातयेचीं व्हड पिकाळ मळां आसात. व्हॅंत्यान हें तांच्यांतलें सगळयांत व्हडलें मळ. दक्षिण भागांतल्या बलोयेन सड्याची उंचाय १,०७० मी. आसा. मेकाँग ही देशांतली मुखेल न्हंय. पावसांत मेकाँग आनी तिच्या फांट्यांक सदांच हुंवार येतात.

**हवामान :** लाओसाचें हवामान सादारणपणान उश्ण कटिबंधीय प्रकारचें आसता. मे ते ऑक्टोबर म्हयन्यांमदीं नेटाचो पावस पडटा. ह्या तेंपार वारें नैऋत्येकडच्यान व्हांवता. नोव्हेंबर ते एप्रिलामेरेनचो तेंप सुको उरता. ह्या तेंपार वारें ईशान्येकडच्यान व्हांवता. वर्सूयभर हवामानांत चड ओलसाण उरता. मार्च ते सप्टेंबर मेरेन सरासरी तापमान २८° सॅ. जाल्यार नोव्हेंबर ते मार्चमेरेन तें २१° सॅ. इतलें आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** देशाची सुमार ६०% भूंय रानांखाल आसा. देशाच्या उत्तर भागांत उश्णकटिबंधीय रूंदपानी आनी वर्सूयभर पाचवीं उरपी रानां आसात. दक्षिणेकडच्या रानांनी सदांपाचवे आनी पानझडी रूख आसात. कांय रानांनी ऊंच तणूय वाडटा.

हांगाच्या रानांनी रानटी मोनजात खूब आसा. तांतूत बिबटो, वाग, हत्ती,रानदुकर, हरण, वांस्वेल हांचो आस्पाव जाता. थंय तरेकवार सोरपांचें प्रमाणूय खूब आसा. सवण्यांचेय साबार प्रकार थंय दिश्टी पडटात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** ह्या देशाची पुर्विल्ली म्हायती स्पश्टपणान मेळना. पूण पुरातत्त्वीय पुराव्यांवयल्यान मेकाँग न्हंयेचे देगेर रावपी लोकांक इ. स. पयलीं ३००० वर्सांपयलींसावन शेतवड, धातूकाम आनी मातयेचीं आयदनां करपाक येतालें हे सिद्ध जाता. तेराव्या शेंकड्यांत चीनांतल्या लाओ लोकांनी इंडोचायना द्विपकल्पांत स्थलांतर केलें. लाओ लोकांवयल्यानच ह्या प्रदेशाक लाओस नांव पडलें अशें कांय इतिहासकारांचें मत आसा. तेराव्या शेंकड्याच्या मध्याक फांगूम हाणें ह्या प्रदेशांत बौद्धधर्माचो प्रसार केलो. शेजारच्या राश्ट्रांकडेन ताणें वेपारी संबंद जोडिल्ले. पूण राज्याभितरले दुस्मानकायेक लागून १७०७त लान् झांग राज्याचे दोन कुडके जावन ल्वांगप्राबांचेर (उत्तर) आनी व्हॅंत्यान (दक्षिण) हीं दोन राज्यां अस्तित्त्वांत आयलीं. हे संदीचो फायदो घेवन थायलँडान व्हॅंत्यान राज्य हातासून तें आपल्या राज्याक जोडलें. जाल्यार ल्वांगप्राबांग हें चीन आनी व्हिएतनामाचें मांडलीक जालें. ह्याच काळांत फ्रांसान व्हिएतनामच्या कांय भागांत आपल्यो वसणुको उबारिल्ल्यो. फुडें तांणी (१८९३त) व्हॅंत्यान आनी ल्वांगप्राबांचेर आपली सत्ता प्रस्थापीत केली. फ्रँच इंडोचायनाचो एक वांटो म्हणून लाओसाच्या ल्वांगप्राबांग, व्हॅंत्यान आनी चंपासाक ह्या राज्यांचो फ्रेंच कारभार चलोवपाक लागलो. दुसऱ्या म्हाझुजामेरेन तीं मांडलीक राज्यां ताच्या शेकातळी उरलीं.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या तेंपार फ्रांसाचेर हार घालून जपानान लाओसाचेर ताबो मेळयलो. १० मार्च १९४५ दिसा इंडोचायनाचो वसणुकेचो दर्जो सोंपिल्ल्याचें जपानान घोशीत करून ल्वांगप्राबांगच्या राजाक स्वातंत्र्याची घोशणा करपाक लायली. म्हाझूज काबार जाले

उपरांत थंयचे राश्ट्रवादी मुक्ती चळवळीन ल्वांगप्राबांगच्या राजाक सत्तेभायरो केलो. पूण फ्रांस सैन्यान लाओसाचेर घुरी घालून ऑगस्ट १९४६त एक खाशेले कबलातीवरवीं १९०४ सावन ल्वांगप्राबांगचे गादयेर आशिल्ल्या सिसाव्हाँग व्हाँग राजाक परतून लाओसाचे सत्तेर हाडलो. राजान १९४७त नवें संविधान आपणावन फ्रांसाकडेन लाओसाक स्वतंत्र सार्वभौम राश्ट्राचो दर्जो दिवंचो अशो कबलाती केल्यो. १९५३त व्हिएतनामी साम्यवादी फौजांनी लाओसाचेर घुरयो घाल्यो. १९५०त प्रिन्स सूफानूव्होंग हाच्या फुडारपणाखाल पॅलेट लाओ हे साम्यवादी चळवळीची स्थापना जाली. पॅलेट लाओ ही आदली राजेशाय आनी फ्रेंचविरोधी आघाडी. २१ जुलय १९५४ दिसा जाल्ले कबलातीवरवीं व्हिएतनामी आनी फ्रेंच सैन्य लाओसच्यान काडून घेतलें. उपरांत पॅथेट लाओन व्हिएतनामी साम्यवादी चळवळीच्या आदारान उत्तर लाओसांत आपलो शेक बसयलो. उपरांत हांगाच्या वेगवेगळ्या पक्षांभितर झगडीं जावन देशाची राजकीय स्थिती इबाडली. सूफानूव्होंग हाचो सवतीभाव प्रधानमंत्री जाल्लो पूण उजवे विचारसरणेच्या लोकांनी ताका दोन फावट सत्तेभायरो केलो. जनरल फूर्मा नोसावान आनी प्रिन्स बून ऊम हांच्या फुडारपणाखाल उजव्या विचाराच्या पंगडान ११ डिसेंबर १९६० दिसा राजधानी व्हीँत्यानाचेर ताबो मेळयलो. प्रिन्स बून ऊम हाच्या फुडारपणाखाल उजव्या पक्षान नव्या सरकारची स्थापना केली. पूण पक्षांभितर झगडीं चालूच आशिल्लीं. निमाणेकडेन १९६१त झगड्याक लागून जाल्लें व्हड नुकसान आनी संयुक्त संस्थानाच्या सांगण्यावयल्यान झूज थांबलें. झुजा संबंदीत जिनिव्हा शारांत आंतरराश्ट्रीय परिशद जावन लाओसाच्या तिनूय राजकीय पंगडांभितर सूवाना फूमा हाका प्रधानमंत्री करचो अशें एकमत जालें. हे कबलातीवरवीं २३ जुलय १९६२ दिसा शासनाकडेन सगळी सत्ता दिवन, ७ ऑक्टोबर मेरेन देशांतलें सगळें परकीय सैन्य काडून घेतलें. संयुक्त संस्थानांनी लाओसाक पुराय हक्क दिवपाचें घोशीत केलें. पूण साम्यवादी फौज थंयच आसली. हाका लागून १९६३त परत झगडीं सुरू जालीं. साम्यवाद्यांक विरोध करपाखातीर संयुक्त संस्थानान व्हीँत्यान शासनाक लश्करी, अर्थीक आदार, जाल्यार पॅथेट लाओक उत्तर व्हिएतनामान सैनिकी आदार दिलो. दोनूय पंगडांमदीं व्हड झूज पेटलें. थंय शांतताय प्रस्थापीत करपाचे खूब यत्न जाले. पूण तांकां यश आयलेंना. ५ एप्रिल १९७४ दिसा पॅथेट लाओ आनी बिगर साम्यवादी पंगडांचें सारकेंच प्रतिनिधित्व आशिल्ल्या नव्या जोड सरकाराची स्थापना जाली. सूव्हाना फूमा परत प्रधानमंत्री जालो. ह्या वेळार देशाच्या तीनचतुर्थांश क्षेत्राचेर आपलो शेक आशिल्ल्याचो दावो पॅथेट लाओ हाणें केल्लो. एप्रिल १९७५ त अमेरिकेच्या फाटबळान व्हिएतनाम आनी कांपुचियेंतलें शासन अधिकारावयल्यान गेलें. तेन्ना लाओसियी साम्यवाद्यांनी पुराय लाओसाचेर लश्करी आनी राजकीय ताबो मेळोवपाचे यत्न केले. २३ ऑगस्ट १९७५ दिसा पॅथेट लाओचो लाओवयलो प्रभाव चड घट्ट जालो.

२ डिसेंबर १९७५त लाओ पिपल्स डॅमॉक्रॅटिक रिपब्लीकाची घोशणा केली. प्रिन्स सूफाननूव्होंग हाका राश्ट्राध्यक्ष आनी कायसोने फौमपिट्टान हाका प्रधानमंत्री म्हणून वेंचून काडलो. राजा सव्हांग वथ्थना हाणें आपल्या पदाची सोडचीट दिल्ल्यान थंयची राजेशाय काबार जाली. १९७९त लाओ पॅट्रिओटीक फ्रंटाचें लाओ फ्रंट फॉर नॅशनल रिकन्स्ट्रक्शन अशें रुपांतर केलें. हातूंत साबार राजकीय आनी भौशीक पंगडांचो आस्पाव जाता. उपरांतच्या धा वर्सांभितर साम्यवाद्यांनी आपली सत्ता चड घट करून देशाचे अर्थवेवस्थेक भौशिक रूप दिवपाचें थारायलें. तांणी खाजगी वेपाराचेर बंदी घाली, तशेंच कारखान्यांचें राश्ट्रियीकरण आनी शेतवडीचें सामुहिकीकरण केलें. व्हिएतनाम आनी रशियेकडेन इश्टागतीचे संबंद जोडले. चिनी तंत्रज्ञ आनी सल्लागारांक धांवडावन घाले. हाचो परिणाम म्हळ्यार चिनान सरकार विरोधी गनिमी पंगडांक आदार आनी प्रशिक्षण दिवन लाओसाक धाडपाक लागले. हाका लागून लाओसांत परत तणावाचें वातावरण निर्माण जालें. हाचे वायट परिणाम देशाचे अर्थवेवस्थेचेर जावपाक लागले. देखून शासनान भौशिकीकरणाचे प्रक्रियेक इल्लो आळो घालो. खाजगी वेपाराक परतून मान्यताय दिवन बिगर-साम्यवादी राश्ट्रांकडच्यान आदार घेवपाचीय घोशणा केली.

देशाचो राजकारभार १९४७त आपणायल्ल्या संविधानाप्रमाण चलता. लाओस हें संसदीय लोकशाय राश्ट्र. प्रधानमंत्री हो कार्यकारी आनी वैधानीक मुखेली. देशांत वट्ट १३ प्रांत आसून, फुडें तांची विभागणी जिल्हे, नगरक्षेत्र आनी खेड्यांमदीं केल्ली आसा. १९७५ सावन थळावे प्रशासनवेवस्थेची पुनर्रचणूक केल्ली आसून, वेंचून काडिल्ल्या लोकांच्या समितींकडच्यान खेड्यांचो कारभार चलता. व्हीँत्यान शारांत सर्वोच्च न्यायालय आसा.

**अर्थीक स्थिती :** लाओसाचो अविकसीत देशांमदीं आस्पाव जाता. लोकांच्यो दीसपट्ट्यो गरजो भागोवपाक लेगीत थंय कुस्तार जाता. यादवी झूज आनी फ्रेंचानी लाओसांत खूब उणी भांडवल गुंतवणूक केल्ल्यान हो देश अविकसीत उरलो. येरादारी वेवस्थेचें उणेंपण आनी यादवी झूज हांकां लागून देशांतली साधनसंपत्ती चड प्रमाणांत उपेगांत हाडप शक्य जालेंना. १९७५त स्वतंत्र प्रजासत्ताकाची घोशणा केले उपरांत खूब उद्देजक, देश सोडून गेले. हांगा कम्युनिस्ट पक्ष सत्तेर आयले उपरांत अर्थवेवस्थेंत थोडीभोव थिराय आयली. मर्यादीत उद्देगीक विकासाक लागून गरजेच्या निर्मिती उत्पादनाची देशाक आयात करची पडटा. शेतवड हो ह्या देशाचो मुखेल वेवसाय. देशांतले सुमार ८०% लोक ह्या वेवसायांत घुस्पल्यात. च्या, कॉफी, मको, कापूस, तंबाकू, मूग, भिकणां, वेलची, ताग, कसावा, बटाट, कणगां, अनस, ऊंस हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. सद्या शिंपणावळ आनी सान्याचो उपेग करून शेतकी उत्पादन वाडोवपाचे यत्न चलतात.

पूण गरजेपरस उत्पादन उणें आशिल्ल्यान तांदूळ आनी हेर धान्यांची आयात करची पडटा. शेतवडीक जोड आशिल्लो पशुपालन वेवसाय दक्षिणेकडच्या मैदानी प्रदेशांत आनी नॉय, बांगहिआंग आनी डॉन व्हंयांच्या देगणांनी नेटान चलता. रानांतली येणावळय देशाचे अर्थविवस्थेक हातभार लायता. घर बांदकामाक उपेगी पडपी लांकूड हें देशांतलें म्हत्वाचें उत्पादन. ताची निर्यात व्हड प्रमाणांत जाता. लाओसाचे भुंयेंत तरेकवार खनिजां आसून तातूंत मुखेलपणान कथील, पॉटॅश, जिप्सम, सैंधव, खनीज तेल, तांबें, भांगर, जस्त, शिंशें, मँगनीझ, पायरायट आनी गंधक हांचो आस्पाव जाता. पूण भांडवलाच्या उणावाक लागून हीं मिनां खूब उण्या प्रमाणांत काडटात.

उद्देगीक नदरेनय लाओस हो अविकसीत देश. देशाच्या वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांत उद्देगीक उत्पादनाचो वांटो खूब उणो. देशांतल्या वट्ट कामगारांतले फकत १% परसूय उणे लोक उद्देगांत घुस्पल्यात. उद्देगधंदे मुखेलपणान रान आनी शेतकी उत्पादनांचेर प्रक्रिया करप, हस्तवेवसाय आनी मूलभूत उपभोग्य वस्तू निर्माण करप ह्या प्रकारचे आसात. खणकाम, लांकडी कोळसो निर्मिती, शिमीटाच्यो विटो करप, तंबाकूचेर प्रक्रिया, भात कांडप, फर्निचर, लांकूड चिरप, सूत, कापड, सोरो काडप, च्या आनी काफयेचेर प्रक्रिया हे उद्देग ल्हान व्हड प्रमाणाचेर चलतात. विज्ञान आनी तंत्रगिन्यानाचे बाबतींत लाओसाक परदेशी तज्ञांचेर आदारून रावचें पडटा.

किप हें देशाचें अधिकृत चलन. नॅशनल बँक ऑफ लाओस ही देशांतली मध्यवर्ती बँक. बँक ऑफ इंडोचायना ही थंयची सगळयांत व्हडली वेपारी बँक.

दोंगरी भूंय, खूब देगणां आनी घोग्यांनी पडपी पावसाक लागून येरादारीच्या मळारूय हो देश फाटीं आसा. देशांतली ९०% म्हाल येरादारी आनी ८०% प्रवासी येरादारी रस्त्यांवयल्यान जाता. व्हिएतनाम झुजा तेंपार अमेरिकेन केल्ल्या बाँब हल्ल्यांनीय खूब रस्त्यांची नासधूस जाली. देशांतलीं म्हत्वाचीं शारां हवाई मार्गान जोडल्यांत. व्हँत्यान शारांत आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. रशियेच्या आदारान १९७६त लाओ एविएशनची स्थापणूक केल्या. लाओसांत रेल्वेमार्ग ना. मॅकाँग आनी तिच्या फांट्यांतल्यान उदका येरादारी चलता. रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी हांची वेवस्था थंय आसा. पूण दूरचित्रवाणीवयल्यो कार्यावळी व्हिएतनामांतल्यान प्रसारीत जातात.

**लोक आनी समाजजीण :** लाओसांतले चडशे लोक हिनयान पंथी बौद्धधर्मी आसात. हांगाच्या दर एका गांवांत आनी शारांत बौद्ध देवळां दिश्टी पडटात. व्हँत्यान आनी ल्वांगप्राबांग शारांनी बुद्धाचीं खूब देवळां आशिल्ल्यान तांकां सिटीस ऑफ थाउझंड्स ऑफ टँपल्स अशें म्हण्टात. लाओ हो देशांतलो मुखेल वंशीक पंगड. देशांतले ५०% वयर लोक ह्या पंगडांतले. भास, संस्कृताय आनी सुवातेवयल्यान लाओ लोकांचे मुखेलपणान चार पंगड केल्यात ते अशे : लाओ-लूम, लाओ-ताई, लाओ-थेऊंग आनी लाओ-सोऊंग. हेर लोकांमदीं व्हिएतनामी, चीनी युरोपी, भारतीय आनी पाकिस्तानी लोकांचो आस्पाव जाता. लाओ लोकांच्या चारूय पंगडांभितर पोटजाती आसात. लाओ ही देशाची अधिकृत भास. मेकाँग देगणांत लोकांची दाटाय चड आसा. हांगा जल्म प्रमाणाच्या मानान मरणाचें प्रमाण अर्दें आशिल्ल्यान लोकसंख्यां खूब उणी आसा. हांगाच्या लोकांचें जिवीतमान उण्या दर्ज्याचें आशिल्ल्यान मोटारगाडयो खूब उण्यो आसात. सायकल आनी रेडिओ ह्यो थंयच्या लोकांच्यो चैनीच्यो वस्तू. हांगा पियेवपाच्या उदकाची वेवस्था बरी ना. देखून हांगा वेगवेगळया पिडांच्यो धामी पातळटात. लाओसाचे चडशे लोक लांकडी वा कोंड्यांच्या घरांनी रावतात. तांचें पाखें मुखेलपणान तणापसून तयार करतात. हीं घरां जमनीसावन १ ते २ मी. ऊंच लांकडी खुटांचेर उबारतात. थंय शिक्षणाचो प्रसार नेटान जायत आसा. व्हँत्यान हें देशांतलें सगळयांत व्हडलें शार. सावान्नाकेत, पाक्से, ल्वांगप्राबांग, सायाबुरी, टाकेक हींय हांगाचीं म्हत्वाचीं शारां.

- कों. वि. सं. मं.

**लांकूड :** सादारणपणान व्हड आकाराच्या वनस्पतींच्या (झाडांच्या / रुखांच्या) कांडाक वा खांदयेक लांकूड म्हणप जाता. वनस्पती शास्त्राप्रमाण लांकडाचो जो प्रकाश्ठ म्हणून भाग आसा ताका लांकूड म्हण्टात. भायली साल आनी भितरलो गर हांचेमदल्या तंतुयुक्त अशा कठीण भागाक लांकूड म्हण्टात. झाडाच्या सगळया भागांक सशक्त करपी पेशींच्या (उदक, अन्नरस पावोवपी) समुहाचें मेळून लांकूड जाता. लांकडांत ५०-६०% सेल्युलोझ, २०-२५% लिग्निन आनी १०-२०% कार्बोहायड्रेटां आनी खनिज पदार्थ मेळटात. लांकूड ही एक म्हत्वाची सैमीक साधनसंपत्ती.

पुर्विल्ल्या काळांत मनीस घर बांदपाखातीर आनी इंधन म्हणून लांकडाचो उपेग करतालो. उपरांत उदका येरादारीखातीर लागपी व्हडीं, शेतांतलीं अवजारां, वाहनां, खेळपाचें साहित्य, कारखान्याखातीर लागपी कच्चो माल, प्लायवूड, कागद आदी गजालींखातीर लांकडाचो उपेग करूंक लागले. उद्देगीक क्रांती आनी दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत जायत्या मळांचेर लांकडाचो उपेग जावंक लागलो आनी ताची मागणीय वाडली.

धर्तरेचो १/३ भाग रानान व्यापिल्लो आसा. भारतांत ६.९ लाख चौ. किमी. म्हळयार सुमार २२% भाग रानान व्यापिल्लो आसा. भारतांत सादारण ३६०० प्रकारांचीं झाडां अस्तित्वांत आसून तातुंतलीं २०० प्रकारांचीं उपेगी आसात आनी फकत कांय झाडांचें लांकुडच बरें तिगपी आसा. युरोपांत स्विडन, नॉर्वे आनी फिनलंड ह्या देशांची लांकडाखातीर नामना आसा. थंय पायन, स्प्रूस आनी बर्च ह्या झाडांचें लांकूड व्हड प्रमाणांत जाता आनी ताची निर्यातय जाता. रशियेचो १/

३ भाग रानान व्यापिल्लो आसून तातूंत लार्च, पायन, स्प्रूस, बर्च आनी ॲस्पेन हीं झाडां जातात. कॅनडांत स्प्रूस, बाल्क्षम, फर जॅकपायन व्हायट आनी टॅमॅरॅक ह्यो जाती जातात. अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत पॉप्लर, स्वीटगम, ट्युपेलो, बर्च, ॲश, पायन, सायप्रस ऑक, हिकरी, बॉलनट (अक्रोड), बीच ह्यो मुखेल जाती आसात. आफ्रिकेंतल्या मध्य भागांत व्हड रानां आसून तातुंतल्यो मॅहोगोनी आनी ओकोम ह्यो जाती प्रसिद्द आसात. भारतांत केरळ, तमिळनाडू, कर्नाटक, महाराष्ट्र, मध्य प्रदेश, बिहार, ओरिसा ह्या राज्यांनी खैर, देवदार, शिसवी, ओक, पळस अशीं जायतीं झाडां आसात. गोंयांत नाणो, मारट, किनळ, जांब, शिसव, हेद, घोटक, शिरस, शिवण, बेल, कवठ, कुडो, खैर, हिरडो, आंबो, पणस, चींच, पिंपळ, वड अशीं जायतीं झाडां दिश्टी पडटात.

सादारणपणान लांकडाची संरचना अशी आसता - १) भायली साल : हिकालागून झाडाक राखण मेळटा. २) भितरली साल : ही साल झाडाच्या पानांत तयार जावपी अन्नरस खांदयांक, खोडाक आनी मुळांक पावयता. ३) ऊतककर स्तर : हो सारको वाडत वता. दर हंगामांत ह्या स्तराचे भितरले वटेन नवें लांकूड तयार जाता आनी भायलेवटेन नवी साल तयार जाता. ४) वर्सुकीं वा वृद्धी वलयां : हातुंतलें दर एक वलय म्हळयार दरएक वर्सांतली वाड आसता. ५) रस काश्ठ : ह्या भागांतल्यान झाडाच्या मुळांनी जमनींतल्यान शोशून घेतिल्लीं पोशक द्रव्यां पानांमेरेन पावयतात. ६) मध्यकाश्ठाचो भागः हांगाचें रसकाश्ठ सुकून घट्ट जाल्लें आसता. ह्या भागांतलें लांकूड इमारतीच्या बऱ्या कामाखातीर वापरतात. ७) गर : हो भाग मोव आसता. ८) काश्ठ किरण : हें गर ते साली मेरेनचे वेगवेगळे स्तर जोडटा. हातूंत पोशक द्रव्यां सांठयल्लीं आसतात.




लांकडाची संरचना दाखोवपी खोडाचो आडवो छेद : १) भायली साल २) भितल्ली साल ३) ऊतककर स्तर ४) वर्सुकी वलयां ५) रसकाष्ठ ६) मध्यकाष्ठ ७) भेंड ८) काष्ठ - किरण.

लांकडाचे भायले वटेन वाडपी आनी भितरले वटेन वाडपी अशे दोन भाग आसतात. भायलेवटेन वाडपी लांकडाचे घट आनी मोव अशे दोन उपप्रकार आसतात. घट लांकडां वजनान जड, कणखर आनी बळकट आसतात. अशा झाडाचीं पानां चडशीं रूंद गाड रंगाचीं आसून तांचे धागे घट आसतात. मोव झाडाचीं पानां लांब, एक सारक्या रंगाचीं आनी एक सारकें पोंत आशिल्लीं, वजनान हलकीं आनी उण्या प्रमाणांत कणखर आनी बळकट आसतात.

**गूणधर्म :** भौतीक नदरेन लांकूड हें घट जॅली स्वरुपाचें आसता तरी ते उदकशोशकय आसता. लांकूड कांय मर्यादिमेरेनच उदकाचें शोशण करूंक शकता.

**सल, पोत आनी घाट :** लांकडाचो सल (आयट) हो लांकडांतल्या धाग्याच्या वा हेर लांबायेक समांतर घटकांच्या झाडाच्या उब्या अक्षाच्या वा लांकडाच्या कांडाचे लांबायेक समांतर कडांच्या सापेक्ष आसपी दिशेकडेन संबदीत आसता. लांकडाचो पोत हो कोशिकांचें सापेक्ष आकारमान आनी आकारमानांतलें वेगळेपण हांचेकडेन संबदीत आसता. तशेंच तो तलम वा भरड आनी एकसारको वा विशम आसूंक शकता. वेगवेगळया ऊतकांची मांडावळ, सलाची दिशा, रंगामदलो भेद वा ताच्या संयोगांत लांकडाच्या अनुदैर्ध्य पृश्ठभागार निर्माण जावपी आकृती बंधाक घाट म्हण्टात.

कोशिका भित्ती आनी कोशिका पोकळयो हातूंत झिरपल्ल्या रसायनीक संयुगाक लागून लांकडाक रंग मेळटा. वेगवेगळया झाडांच्या जातींनी वेगवेगळे तरांचे रंग दिश्टी पडटात. रसकाश्टाचो रंग लेव आसता. चड तेंप लांकूड उक्तें उरल्यार ताचो रंग बदलता. ऑक्सिडीभवनाक लागून सगळया लांकडांच्यो रंगछटा गाड जातात.

लांकडाच्या वेगवेगळया घटकांनी प्रकाशाचें परावर्तन केल्ल्यान लांकडाक ओडलायणी चकचकसाण येता. लांकूड कापपाचे पद्दतीचेर ह्या गूणधर्माचो परिणाम जावंक शकता. लांकडाक सादारणपणान खास असो वास नासलो तरी कांय लांकडांच्या जातीक एक निश्चीत आनी विशिश्ट असो वास आसता आनी ह्या गूणधर्मावयल्यान त्यो जाती वळखूं येतात. लांकडांत जलांशाचें प्रमाण म्हत्वाचें आसता. लांकडांत जलांश आशिल्ल्यान ताचें वजन, आकार, उश्णताय निर्मितीची क्षमताय, घटपण, कदबकां आनी कीटक हांच्या आक्रमणाक भेदता अशा वेगवेगळया गूणधर्मांचो परिणाम जाता.

जलांश दोन पद्दतींनी निदर्शित करूंक येता - १) जलांशाचें वजन आनी ओल्या लांकडाचें वजन हांचें गुणोत्तर, २) जलांशाचें वजन आनी सुकिल्ल्या लांकडाचें वजन हांचें गुणोत्तर. हातूंत दुसरी

पद्दत चड प्रचारांत आसा. लांकडांतले रसायनीक तरेन संयोग जाल्लें उदक सोडून हेर सगळें उदक काडून उडयतकच लांकूड पुराय तरेन सुकिल्ल्याचें मानतात. उदक काडून उडोवपाकातीर लांकूड भट्टेंत १००° सॅ. तापमानांत सुकयतात. सुकें लांकूड आर्द्र हवेंत उक्तें दवरतकच तें परत उदक शोशून घेता आनी फुगता. शोशून वा काडून उडयल्ल्या उदकाच्या समान शेंकड्या प्रमाणाखातीर वेगवेगळया लांकडाचे बाबतींत ताच्या घनफळांत जावपी बदलांत फरक मेळटा. सादारणपणान जड लांकडां हलक्या लांकडापरस चड फुगतात आनी आकुंचीत जातात. पूण आकुंचन आनी फुगप हें घनतेच्या बरोबर प्रमाणांत आसताच अशें ना. लांकडाच्या कुडक्याचें वेगवेगळया दिशांतलें आकुंचन आनी फुगप सारकें नासता. खूब गुंजो आशिल्ल्या लांकडावरी जाचीं सुतां वेगवेगळया दिशांक आसतात अशा लांकडाचो कुडको सुकल्यार चड करून फुटपाची शक्यताय आसता.

लांकडाच्या कुडक्याची उश्णताय उत्पन्न करपाची क्षमताय वाडट्या जलांशावांगडा उणी जायत वता. लांकडाचे जलनक्रियेंत मुक्त जावपी उश्णताय चड करून काश्टमय घटकांपसून उत्पन्न जाता. हाका लागून चड जड लांकूड चड उश्णताय दिवंक शकता. लांकडाच्या वजनांतय जायते फरक आसतात. चडशीं घट लांकडां जड आसतात. घटपणा, बळ तशेंच उश्णताय मोल हे नदरेन लांकडाचें वजन म्हत्वाचें आसता.

**शक्त :** लांकडांतली शक्त ही लांकडांतले खाशेले जडसाणीक आनी ताका लागून निर्माण जावपी विकृतींक प्रतिकार करपाचे लांकडाचे क्षमतायेखातीर म्हत्वाची आसता. लांकडांतले शक्तीचो आस्पाव आशिल्लीं मुखेल प्रतिकार खाशेलपणां अशीं : लांकडांतल्या सुतांच्या दिशेंतल्या संपिडनाक प्रतिकार २) कडकसाण वा बागोवपाक प्रतिकार करपाची तांक ३) ताणांतली शक्त वा लांबायेचे दिशेंतल्या भाराक प्रतिकार करपाची तांक, ४) कर्तन शक्त वा सलाचे दिशेन वा ताचे आडवे दिशेन तुटपाक प्रतिकार करपाची तंतुची क्षमताय. लांकडांत आशिल्ली शक्त आनी ल्हवसाण हांचो संयोग हो ताचो एक बरो यंत्रीक गूणधर्म जलांश. हो लांकडाचे शक्तींतलो म्हत्वाचो घटक. लांकूड जशें जशें हवेंतलें उदक शोशून घेता तशी तशी ताची शक्त आनी कडकसाण उणी जायत वता. लांकडांतलीं गुंजां आनी हेर दोश हांचोय ताचे शक्तीचेर परिणाम जाता. गुंजांचें आकारमान, स्वरूप, सुवात म्हत्वाची आसता. लांकडाचें वज़न शक्तीचे नदरेन म्हत्वाचें आसता.

**घटसाण :** दर एका लांकडांत वेगवेगळी घटसाण आसता. लांकडाचें वज़न घटकांची संरचना आनी रांपोवपाचें प्रमाण हांचेर लांकडाची घटसाण आदारून आसता.

**लवचिकताय आनी चिवटसाण :** लांकडांत आशिल्लो जलांश ताचे लवचिकतायेचेर व्हड प्रमाणांत परिणाम करता.

**तिगप :** ज्या लांकडांत कुसपाचे प्रक्रियेक प्रतिकार करपाची क्षमताय आसता तें लांकूड चड तिगता. लांकूड सैमीक रितीन कुसना. ताका कवकां वा सुक्ष्मजंतू कारणीभूत आसतात. कवकां आनी सूक्ष्मजंतू हांकां जगपाक आनी प्रसारणाक फावोशी उश्णताय, आर्द्रताय आनी प्राणवायू गरजेचो आसता. ह्यो गजाली कुशीक दवरल्यार कुसपाची प्रक्रिया शक्य जायना आनी लांकूड बरोच तेंप मेरेन तिगूंक शकता. जायते खेपे लांकडांतल्या मध्यकाश्टाचेरय लांकडाचें तिगप आदारून आसता. मध्यकाश्ठ जितलें गाड तितलें लांकूड चड तिगता. लांकडाच्यो व्हायट सीडार, ईस्टर्न आनी वॅस्टर्न सीडार, ब्लॅक वॉलनट, सायप्रस, रॅड वुड, व्हायट ओक, ब्लॅक ॲश, चेरी, रॅड एल्म, वॅस्टर्न आनी इस्टर्न लार्च, आयर्नवूड ह्यो बऱ्यो आनी तिगपी जाती आसात. व्हायट पायन, नॉर्वे पायन, रॅड ओक, रॅड ॲश, यॅलो पॉप्लर, शुगर पायन ह्या जातींचो टिकाऊपणा मध्यम आसा. व्हायट एल्म, बीच, हिकरी, हार्ड मॅपल, व्हायट ॲश, हेमलॉक, स्प्रूस, ह्यो जाती इबाडपी, जाल्यार बासवुड, ॲस्पेन, विलो, सिकॅमूर, बाल्सम ह्यो जाती रोखडयोच इबाडपी आसात. भारतांतल्यो अंजन, काळो शिरीष, खैर, जांभो, देवदार, शिसू, सायल ह्यो जाती बऱ्यो तिगपी; किंजळ, तामणा, धामणी, धवो शिरीष, शिसवी आदी जाती मध्यम तिगपी, अक्रोड, आंबो, ऐन, धावडो, पेटारी, जांबळ, तांबडो देवदार ह्यो जाती उण्यो तिगपी आसात.

लांकडाच्या वापराप्रमाण ताचे बरे प्रतीचो विचार करतना सरासरी वजन, जलांश,ताण शक्त आनी तिगप, उजो आनी हवा प्रतिबंधकताय लवचिकताय आदी गजालींचो विचार करचो पडटा. सैमीक लांकडांत, चिरो, फूट, गुंजां आदी जायते दोश आसतात. तेचपरी लांकडाच्या आडव्या छेदांतली तंतुची दिशा, उतार, सलगताय ह्योय गजाली विचारांत घेवच्यो पडटात.

भारतांतल्या कांय म्हत्वाच्या जातींच्या लांकडाचे गूणधर्म आनी उपेगः

| नांव | गुणधर्म | उपेग |
|---|---|---|
| अंजन | कठीण आनी जड | खांबे. |
| अर्जुनसादडा | खूब घट्ट | पाटी, वांशे. |
| आंबो | भरड आनी वेगवेगळयो कोशिका रचना, किटकांक आवडपी आनी घट | जळणाचें लांकूड आनी हलके प्रतीच्या कामांखातीर. |
| ओंवळ | जड, पिंगशें, बरें पॉलीश जावपी | सादे घरबांदावळी खातीर. |
| ऐन | तांबशा करड्या रंगाचें, दाट, तिगपी आनी बळकट | सगळया तरांच्या इमारतींच्या कामाखातीर |

| | | |
|---|---|---|
| | | आनी व्होड्यांखातीर. |
| कल्होणी | मध्यम कठीण, जड, बळकट आनी तिगपी | जमनी, पारवीं क्राँक्रीटाच्या कामाखातीर. |
| किंदळ | किटकरोधक, बळकट | घरबांदणी आनी काँक्रीट कामाखातीर |
| खैर | तिगपी, बरें रांपपी, बरें पॉलीश जावपी आनी किटकरोधक | शिळेपाट, आनी घराचे खांबे. |
| जांभो | कठीण, जड, तिगपी आनी घटमूट | पूल, खांबे, स्तंभिका. |
| देवदार | मोव, हलकें, मर्यादीत प्रमाणांत घट, तिगपी | सामान्य फर्निचर, सामानाचीं खोकीं, रेल्वेचे डबे बी. |
| धामणी | बरें लवचीक, तंतुमय, कामाक सोंपें आनी तिगपी | गाडयेचे आस, खेळाचें सामान,गोल्फाच्यो बडयो, कांतीव कामांखातीर योग्य. |
| नागचांफो | कठीण, जड, तिगपी आनी घटमूट | पूल, व्हड बांदकामांखातीर, शिळेपाट. |
| नाणो | चिवट, जड, मध्यम कठीण, घटमूट | दारां, जनेलां, शिळेपाट, फर्निचर, बी कामाखातीर. |
| बाभूळ | घट कोशिकारचना, चिवट, बरें रांपपी आनी बरें पॉलीश जावपी, किटकरोधक. | तिगपी, शिळेपाट, हत्यारां आनी दांडे तशेंच तारवांचे बांदावळीखातीर. |
| बिली | किटकरोधक, घटमूट | घरबांदणी आनी काँक्रीट कामाखातीर |
| रोझवुड | सामकें घट, दिसपाक बरें | बऱ्या दर्जाचें फर्निचर, आरमारी. |
| शिवण | रांपयतकच आंकुचन जायना | उदकांत रावपी देखीक - उदका येरादारींतलें उबें सरकदार. |
| सायल | घटमूट, जड, तिगपी, पॉलिशीखातीर बरें | इमारतीच्या आनी फर्निचराच्या सगळया कामांखातीर. |
| साल | सामकें घटमूट, जड, चिवट, तिगपी | इमारती कामांखातीर. |
| सिल्वर ओक | घटमूट आनी तिगपी | चक्रांचे आरे, टणक आनी चिवट कामांखातीर. |

**लांकडाचें कापकाम :** रानांतलें पुराय वाड जाल्लें झाड वेंचून तें कापून घेतात. खरवतीन ताचे फावो त्या आकाराचे कुडके करतात. उपरांत लांकूड कापपाच्या कारखान्यांत हाडटात आनी चक्रीय खरवत यंत्र वा पट्टो आशिल्ल्या खरवतीच्या यंत्राच्या आदारान तें कापतात. रानांतल्यान येवपी ओंडके उदकाच्या कुंडांत सांठयतात. सुकिल्ल्या खोडापरस ओलें खोड कापप सोंपें जाता. लांकडाच्या वयर्वीनी कापिल्ल्या लांकडाच्यो पट्ट्यो, फळयो, स्कँटलिंग आनी बॉक अशे चार गट करतात. लांकडाच्या घटकाचें मेजप हें पट्ट्यांखातीर लांबायेच्या मापांत, म्हळयार मीटरांनी फळयांखातीर क्षेत्रफळांत म्हळयार चौरखण मीटरांनी आनी हेर घटकांखातीर घनफळांत म्हळयार घनमीटरांनी अशा राशींनी मेजतात.

**लांकडावयली प्रक्रिया :** फावो ते प्रमाण लांकडाचेर सादारणपणान दोन प्रक्रिया करतात. हातूंत लांकूड सुकोवप आनी ताचेर वेगवेगळयो रसायनीक प्रक्रिया करप हांचो आस्पाव जाता. लांकूड वापरचे आदीं तें पुरायतरेन सुकोवप गरजेचें आसता. ताका लागून तातुंतले आकुंचन प्रसरण दोश उणे जातात. लांकूड सुकोवपाच्यो दोन पद्दती आसात - १) वाऱ्याचेर सुकोवप, २) भट्टेंत सुकोवप. वाऱ्याचेर सुकोवपाची पद्दत सवकसायेन आनी उण्या खर्चाची आसून ती वापरांत आसा. कांयकडेन वाऱ्याचेर आनी भट्टेंत सुकोवपाची पद्दत संयुक्तपणान वापरतात. लांकूड हें सुके हवेंत वा जाग्यार आसल्यार वा सदांच उदकांत बुडिल्लें आसल्यार ताचेर चडसो परिणाम जायना. पूण आलटून- पालटून उदकांत वा सुक्या जाग्यार ना जाल्यार ओल्या जाग्यार दवरल्यार तें कुसता वा ताका कीड लागता. तें कुसचें न्हय वा नश्ट जावचें न्हंय देखून लांकडाचें परिक्षण करपी लांकडाच्या पृश्टभागाचेर लावपाचीं जायत्या तरांचीं रसायनां उपलब्ध आसात.

**लांकडापसून मेळपी रसायनीक पदार्थ :** लांकडापसून जायत्या तरांचे रसायनीक पदार्थ मेळूंक शकतात. तातुंतले कांय पदार्थ म्हत्वाचे आसून तांचें व्हड प्रमाणांत उत्पादन करतात. हे पदार्थ लांकडाचेर विवक्षीत प्रकारच्यो रसायनीक आनी भौतिक क्रिया करून तयार करतात.

लांकूड हो पदार्थ कोशिकामय आसून तातुंतल्या कोशिकांची रचना तंतूंच्या स्वरुपांत आसता. लांकडाच्यो तंतूकोशिका सेल्युलोज, लिग्निन आनी हेमिसेल्युलोज ह्या मुखेल घटकांच्या वेगवेगळया प्रमाणांच्या मिश्रणांच्यो जाल्ल्यो आसतात. सगळया प्रकारच्या लांकडांत ह्या मुखेल घटकांभायर हेर कार्बनी घटकद्रव्यांय मेळटात. हीं द्रव्यां लांकडांतल्या तंतूंचे पोकळेंतल्या जाग्यांत आसतात. लांकडांत कांय प्रमाणांत लवणांय आसतात.

जायतेकडेन लांकडाचो इंधन म्हणून उपेग करतात. पूण इंधन हे नदरेन लांकडापरस ताचेपसून तयार जाल्लो लोणारी कोळसो

चड काम करता. लांकडापसून कोळसो तयार करपाचे क्रियेंत उश्णतायेच्या आदारान लांकडाचें विघटन करतात. हे विघटन क्रियेंत लांकडाचें कार्बनीकरण जावन कोळसो तयार जाता आनी लांकडांतलीं हेर कार्बनी घटकद्रव्यां धुंवर, वायू, हांचेवांगडा वयर वतात. कोळशावांगडाच तातुंतले बाश्पनशील रसायनीक पदार्थ ऊर्ध्वपतित द्रव म्हणून वेगळे काडून ताचेपरसय चड अदीक विभाजन आनी शुद्धिकरण करून शुद्ध रसायनां तयार करूंक मेळटात.

जड लांकडाचे कार्बनीकरण क्रियेंत ॲसेटीक आम्ल आनी मिथिल आल्कोहॉल हीं रसायनां मेळूंक शकतात. मोव लांकडाच्या कार्बनीकरणापसून टर्पेंटायन, पायन हॉबर बी पदार्थ मेळूंक शकतात. तेभायर ब्युटिरिक आम्ल, क्रिओसोट ग्लायकॉल, ॲलिल आल्कोहॉल, मिथिल एथिल लिटोन, मिथिल ॲसिटेट, प्रतिऑक्सिडीकारक तेलां सारकीं जायतीं रसायनां उण्या चड प्रमाणांत मेळूंक शकतात. सुमार १०० वेगवेगळीं रसायनां लांकडाच्या कार्बनीकरणावरवीं मेळूंक शकतात.

१८३० वर्सा लोणारी कोळसो तयार करतना तज्जन्य रसायनांचें वेगळेपण करपाचो व्हड प्रमाणातलो यत्न सुरू जालो. १८७७-१९०० ह्या काळांत लांकडाच्या कार्बनीकरणाचो आनी संबंदीत रसायनां मेळोवपाच्या उद्देगांत खूब उदरगत जाली. बऱ्या बांदणेच्यो कार्यक्षम भट्टयो तयार करून तातूंत कार्बनीकरणावरवीं तयार जाल्लें वायुरूप रसायनमिश्रण थंड करून पायरोलिग्निअस आम्ल मेळोवपाची सोय जाली. हातुंतलें वायुरुपी मिश्रण थंड करून द्रवीभूत जायनाशिल्लो भाग धुंवराच्या रुपान भायर सोडून दिवपाची वेवस्था भट्टेंत केली. हो धुंवर कार्बन मोनॉक्सायड, कार्बन डाय-ऑक्सायड, मिथेन आनी हायड्रोक्सायड ह्या घटकांपसून तयार जाल्लो आसता. जायत्या भट्ट्यांनी ह्या धुंवराचो पूरक इंधन म्हणून त्याच भट्ट्यांखातीर उपेग करूंक लागले. पायरोलिग्नअस आम्लाच्या उर्ध्वपतीत विभाजनान मिथिल आल्कोहॉल आनी ॲसिटिक आम्ल हांचें व्हड प्रमाणाचेर उत्पादन करप शक्य जालें. ऊर्ध्वपातन पुराय जातकच तळाक उरिल्लो दाट काळो द्रव म्हळयार लांकडाचें डांबर. मूळ लांकडाच्या वजनाच्या प्रमाणांत कठीण जातीच्या लांकडापसून उत्पादन मेळटा तें अशें - कोळसो २०%, पायरोलिग्निअस आम्ल ३०-४०%, डांबर ६-१३%, पायरोलिग्नीअस, आम्लापसून मूळ लांकडाच्या वजनाच्या प्रमाणांत ४-६% ॲसेटीक आम्ल आनी १.२% मिथिल आल्कोहॉल मेळटा.

**रेझीनयुक्त लांकडाच्या कार्बनीकरणापसून मेळपी रसायनांः** रेझीनयुक्त झाडाच्या लांकडाचें ऊर्ध्वपातन केल्यार जायतीं म्हत्वाचीं रसायनां तयार करूंक मेळटात. ऊर्ध्वपातीत केल्लो विद्राव थंड केल्यार ताचे दोन थर वेगळे जातात. एक थर आम्लीय उदकाचो आसता आनी दुसरो रेझीन पदार्थाचो आसता. आम्लीय उदकाच्या थरांत ॲसिटिक आम्ल आनी मिथिल आल्कोहॉल आसता. पूण रेजीनयुक्त लांकडांत हें प्रमाण उणें आसता. हो आम्लीय उदकाचो थर वेगळो काडून उडयतात आनी उरिल्ल्या रेझिनाच्या मिश्रणाच्या काळया थराचें ऊर्ध्वपातन करून विभाजन करप जाता. तातुंतल्यान पायन डांबर, पायन तेल, टर्पेंटायन तेल, टर्पेंटायन डायपेंटिन हे म्हत्वाचे पदार्थ मेळटात. सादारणपणान एक टन पायन लांकडापसून २०० ते २२० किग्रॅ. कोळसो, २०० ते २५० लि. वट्ट तेल २० ते ३० लि. टर्पेंटायन, १०० ते १५० लिटर पायन डांबर मेळूंक शकता.

**रेझीनयुक्त लांकडाचें वाफयुक्त ऊर्ध्वपातन :** वाफयुक्त ऊर्ध्वपातनापसून सेल्युलोझ आनी लिग्निन हांच्या मिश्रणाचो लगदो तयार जाता. सगळीं ऊर्ध्वगामी रसायनां वाफेवांगडा वतात आनी तीं थंड करतकच विद्रावाच्या स्वरुपांत मेळटात. लांकडाचो गाळ म्हणून उरिल्लो लगदो तंतूफलक तयार करपाखातीर वापरतात. रेझीनयुक्त लांकडापसून सल्फेट पद्दतीन लगदो करपाचे क्रियेंतय टर्पेंटायन आनी तत्सम रसायनां मेळोंव येतात. वाफयुक्त ऊर्ध्वपातन क्रियेचो वापर वासाळ द्रव्यां आशिल्ल्या मोव लांकडापसून वासाळ द्रव्यां मेळोवपाखातीर व्हड प्रमाणांत करप जाता.

**लांकडापसून कागद आनी लगदो :** कागद, लगदो आनी लगदद्यासावन करपाक मेळपी सेल्युलोझ पदार्थ म्हळयार लांकडाचेर आदारून आशिल्लो सगळयांत म्हत्वाचो उद्देग. अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, कॅनडा, नॉर्वे आनी हेर देशांनी कागद निर्मितीखातीर लांकडाचो लगदो वापरतात. भारतांत दिसाळयाच्या कागदाखातीर लांकडाचो लगदो वापरतात. दिसाळयाचीं कागदां आनी खड्डे तयार करपाखातीर लागपी लांकडाच्या लगदयाक यंत्रीक लगदो म्हण्टात. रेयॉन तयार करपाखातीर बऱ्या पांवड्याचो निर्लिग्निनीकरण केल्लो लांकडाचो लगदो लागता. निर्लिग्निनीकरण करून तयार केल्ल्या लांकडाच्या लगद्याक सेल्युलोझ लगदो म्हण्टात. सेल्युलोझापसून ॲसिटेट रेयॉन, विस्कोझ रेयॉन, प्लास्टिकां, संरक्षक लेप, नायट्रोसेल्युलोझ आनी हेर स्फोटक द्रव्यां आदी जायते पदार्थ तयार करूंक मेळटात.

**लांकडापसून जलीय वा विद्रावक निश्कर्शणान मेळपी रसायनांः** लांकडाच्या निश्कर्शणावरवीं टॅनिनां, कार्बनी आम्लां, कार्बोहायड्रेटां रंगद्रव्यां, वासाळ द्रव्यां, तेलां, अल्कलॉयडां, रेझिनां, टर्पिनां हीं रसायनां वेगवेगळया झाडांच्या जातींप्रमाण वेगवेगळया भागांच्या लांकडापसून उण्या-चड प्रमाणांत मेळूंक शकतात. लांकडापसून विद्रावक निश्कर्शणाच्या आदारान टॅनिनां, रंगद्रव्यां आनी रेझिनां हीं सहज वेगळावपाक मेळटात. पूण तातुंतले सेल्युलोझ आनी तत्सम पदार्थ हांचेपसून उपेगी पदार्थ मेळोवपाखातीर लांकडाचें आम्लीय निश्कर्शण वापरप गरजेचें आसता. आम्लीय निश्कर्शण पद्दतींत सल्फ्युरिक वा हायड्रोक्लोरिक आम्ल हांच्या उदकांतल्या विद्रावांत लांकडाचें निश्कर्शण करतात. सेल्युलोझाच्या विघटनाक लागून निर्माण जाल्ली शर्करा, कार्बनी आम्लां आनी फुरफुराल हीं रसयानां निश्कर्शित

उदकाच्या विद्रावांत उतरतात आनी लिग्निन तशेंच लिग्नोसेल्युलोज हाचो सकयल उरिल्लो लगदो वेगळो करूंक मेळटा. ह्या विद्रावाचेर यीस्टाची किण्वनक्रिया केल्ल्यान एथिल आल्कोहॉल वा खाद्य यीस्ट तयार करूंक येता. वा त्या आम्लीय विद्रावांतलीं रसायनां रसायनीक क्रियेन वेगळीं करूंक मेळटात. अशे तरेन ॲसिटिक आम्ल, फुरफुराल, शर्करा वर्गांतले पदार्थ, हायड्रॉक्सिमिथिल फुरफुराल, लेव्ह्युलिनिक आम्ल, फॉर्मिक, मिथिल आल्कोहॉल, ग्लिसरीन, ऑक्झॅलिक आम्ल, २-३ ब्युटिलीन ग्लायकॉल, लॅक्टिक आम्ल, ब्युटिरिक आम्ल हीं रसायनां मेळूंक शकतात. गाळ म्हणून उरिल्लो भाग चडसो लिग्निन आसता. लिग्नीनाचेर हायड्रोजन वायुच्या दाबाखाल चड तापमानाच्या आदारान क्रिया केल्यार सायक्लिक आल्कोहोलां, फिनिलां आनी वनस्पती तेलां सारके कांय पदार्थ मेळटात.

लांकडापसून मेळपी रसायनीक पदार्थांनी कागद, लगदो, लोणारी कोळसो, टर्पेंटायन आनी तज्जन्य पदार्थ, रेझिनां आनी टॅनिनां हीं रसायनां खूब म्हत्वाचीं आसून तांचें उत्पादन चड करून लांकडाचेरूच आदारून आसता.

**लांकडी कलाकाम :** लांकडाक रूप आनी आकार दिवन ताच्यो उपेगी आनी सोबीत अशो वस्तू करपाच्या कामाक लांकडी कलाकाम म्हण्टात. पुर्विल्ल्या काळासावन घराचे बांदावळीखातीर आनी सदच्या उपेगाच्यो, कलाकुसरीच्यो वस्तू निर्माण करपाखातीर लांकडाचो वेगवेगळ्या तरांनी उपेग करतात. इमारती कामाक लांब, घटमूट आनी एकसंघ लांकडाचो उपेग करतात. कोरीव कामाक एकसंघ पूण मोव लांकूड लागता.

**प्रकार :** लांकडी कलाकामाचे दोन वांटे जातात. १) जोडणीचें आनी २) घडणीचें. जोडणेंत नक्षीकाम, जाळी वा मूर्तीपट्ट्यो, लांकडी सांधे वा खिळे हांच्या आदारान एकठांय हाडटात. घडणेच्या वस्तूंनी पुर्णाकृती अर्दउठावाच्यो आनी चित्रसद्दश अशे वांटे जातात. कसलीय मूर्त चारूय वटांनी प्रत्यक्षांत आसता तेप्रमाण घडयल्ली आसल्यार ती पुर्णाकृती म्हणप जाता. हाचे उरफाटें, चित्रसद्दश आकृतींत नक्षीक थोडो उठाव हाडिल्लो आसता. तरी सगळीं घनमानांत दाखोवपाचो हेत नासता.

**संरक्षण :** लांकडाच्यो वस्तू तयार करतकच तांचेर कांय संरक्षक द्रव्यां लावप गरजेचें आसता. मुर्ती वा खेळण्यांनी खरेपण हाडपाक वा ओडलायणीं दिसपाखातीर रंगकामाचो उपेग करतात. तैलरंग वा लाखरंग अशे दोन तरांचे रंग वापरतात. कांय लांकडाच्या वस्तूंक फकत वार्निश मारतात. रंगाभायर सौंदर्यवर्धनाची दुसरी पद्दत म्हळयार जडावाची. हातूंत जायतेदी आकृती कोरांतून तातूंत रंग, लांकूड, हस्तीदंत वा शिंपल्यो हे सारके पदार्थ भरपाचे, रंग वा लाख हांच्या जाग्यार भांगराच्या वा रुप्याच्या पत्र्यांनी नटयल्ल्यो लांकडी वस्तूय पळोवंक मेळटात.

**वास्तुकला आनी काश्ठशिल्प :** पुर्विल्ल्या काळार सावन वास्तुकलेंत लांकडाचो उपेग करतात. खांबे आनी कांबी ह्या कामाखातीर चडशें लांकूड वापरताले. फातर आनी विटो एकठांय जुळोवन कमानी बांदपाचें तंत्र आदी वास्तुरचनेंत लांकूड म्हत्वाचें काम करतालें. फुडें फातरी, लोखणी आनी क्रॉंक्रीटाच्यो वण्टी अस्तित्वांत आयल्यो तरी बांदकाम पद्दत लांकडी खांब-तुळयांवरीच तशेंच दारां आनी जनेलाच्यो चवकटी चड करून लांकडीच आसतात.

कोंडे, ल्हवे, व्हड लांकडां हांचो उपेग करून बांदिल्ल्या घराचे वा राजप्रासादाचे देखावे पुर्विल्ल्या शिल्पपट्यांत पळोवंक मेळटात. सोळाव्या- सतराव्या शतमानांत घराचो फुडलो भाग पुराय लांकडीच करपाची पद्दत आशिल्ली. जपानासारक्या देशांत भुंयकांप, ज्वालामुखी आदी सैमीक अरिश्टांक तोंड दिवपाखातीर कोंड्याचीं वा हलक्या लांकडाचीं घरां आनी देवळां बांदिल्लीं दिसतात.

लांकडी खांबे हे वाटकुळे, चवकोनी, षटकोनी, अष्टकोनी वा वयर अशीर जायत वचपी आनी सोबीत अशे आसतात. ह्या खांब्यांचेर वेगवेगळया तरांच्यो आकृत्यो कोरांततात. खांब्यांचो आकार सादारण दवरून ताचेर कलश वा मनशांच्यो, प्राण्यांच्यो आकृत्यो बसयतात. हे खांबे अर्द उठावांत कोरांततात. वांशांवयलें कोरीवकाम चित्रसद्दश्य करतात. दारां-जनेलां हांच्यो चवकटी, सज्ज्यांच्यो देगो वा प्रत्यक्ष दाराच्या पृश्ठभागार वेलबुट्टी वा द्वारपालादी मानवी आकृत्यांचें कोरीव काम दिसता. वाड्याच्या भितरल्या चौकांत वा सज्ज्याच्या कोनशार जंय पाणपट्ट्यो काटकोन करतात थंय व्हड लांकडी लोलक लायतात.

भारतांत काश्मीर तशेंच नैऋत्य राजस्थान, केरळ आनी गुजरात ह्या राज्यांनी नामनेच्यो लांकडी वास्तू मेळटात. आशियेच्या उदेंत आनी आग्नेय वाठारांत एकाचेर एक पूण अशीर जायत गेल्लीं पारवीं आसपी देवळाच्यो वा प्रासादाच्यो लांकडी वास्तू उल्लेख करपासारक्यो आसात. शिमीट क्रॉंक्रिटाच्या आगमनाक लागून लांकडाचें वास्तुरचनेंतलें म्हत्व आतां उणें जालां.

**आसन-मंचक :** पुर्विल्ल्या काळासावन आसनां, पलंग वा मंचक, ल्हान व्हड चौरंग अशो जायत्यो सदच्या उपेगाच्यो वस्तू तयार करताले. ह्या कामांत लांकडी पट्ट्यो आनी वेत हांचो उपेग करताले. पुर्विल्ल्या काळांत शिंशासारक्या वा काळ्या रंगाच्या लांकडी आसनांचेर आनी मंचकाचेर, वेलबुट्टेचे नक्षेन सगळो भाग भरून काडटाले. इगर्ज आनी मशिदींतले बांक आनी व्यासपिठां हांचेरूय लांकडी कोरीव काम मेळटा. कैरावान आनी बेशेहिर हांगाचीं जामा मशिदीतलीं लांकडी व्यासपीठां इस्लामी कलेचे बरे नमुने आसात.

तबकां, ल्हान पेटयो, ह्यो वचत थंय तयार करतात. हातूंत बनावटीच्यो वस्तू तांचेवयल्या उत्कृश्ट कामाखातीर प्रसिद्द आसात. २० ते २५ सेंमी. व्यासाच्या वाटकुळांत बसयल्ल्यो अश्टकोनी आनी

षटकोनी, पेटयो आनी तबकां हांचेर लाखेचें रंगकाम आनी शिंपयांचें जडाव काम केल्लें दिश्टी पडटा. अलंकार आनी प्रसाधनां दवरपाक सोबीत लांकडाच्यो पेटयो आनी तबकां करतात. काश्मीर आनी म्हैसूराक अशे तरेच्यो लांकडी वस्तू व्हड प्रमाणांत तयार करतात. तातूंत शिंशें, अक्रोड वा चंदन हांच्या लांकडाच्यो पेटयो, तबकां, डबयो, दिवे अशा वेगवेगळया वस्तूंचो आस्पाव जाता.

गुजरात काठेवाडच्या लांकडी कलाकामांत आसनां, मंचक, पाळणीं आदी प्रकार दिश्टी पडटात. हांचो प्रत्येक भाग लेथीच्या आदारान वाटकुळो करतात आनी उपरांत लाखेचो रंग दितात. हेर नक्षीकाम स्वतंत्रपणान करतात. एका काळार खूब लोकप्रिय आशिल्ल्या ह्या कामाक 'संखेडा फर्निचर' अशें म्हण्टात. काठेवाडांत सद्या घराण्याचो अलंकार हे नदरेन ताचो वापर जाता.

पुर्विल्ल्या काळांत सगळेकडेन चडशीं लांकडी आयदनां वापरताले. वैदिक यज्ञकर्मांत लागपी सगळीं आयदनां लांकडाचींच आसतालीं. मातयेच्या आनी धातूच्या आयदनांचो प्रसार जातकच ह्या आयदनांचो उपेग उणो जावंक लागलो. नवाश्मयुगासावन लांकडी घसरगाडयो वापरांत आशिल्ल्यो. हीं लांकडी वाहनां वजनान हलकीं आनी घटमूट आसतालीं. फुडें मनशांनी उखलून व्हरपाच्यो पालख्यो आनी मेणे अस्तित्वांत आयले. देवळांतल्या लांकडी पालख्यांचेर लाखेचो रंग वा भांगरा-रुप्याचे पत्रे सजयल्ले आसून ह्यो पालख्यो वर्सुकी उत्सवांनी अजुनूय वापरतात. दक्षिण भारतांत खूबकडेन देवालयांनी लांकडी रथ आसात. चार चाकांच्या व्हड चौथऱ्याचेर चार ते सात मजले क्रमान ल्हान ल्हान जायत वचपी आनी सगळयांत वयर शिखर अशी रथाची रचना आसता. गोंयांत मंगेशी, कवळयां, फातर्प्यां सारक्या जायत्या देवळांनी अशे लांकडी रथ दिश्टी पडटात. हांचेभायर गोंयांतल्या खूबशा देवळांनी लांकडी कलाकाम केल्लें दिश्टी पडटा. हातूंत म्हाड्डोळच्या म्हाळशेच्या देवळांतलें लांकडी कोरीव काम केल्ले सोबीत खांबे, शिरोडेंच्या कामाक्षीच्या देवळांतले नक्षीदार लांकडी खांबे तशेंच रुप्यान मढयल्लो नक्षीदार कोरीव काम केल्लो लांकडी दरवाजो, मडकयच्या नवदुर्गा देवळांतलें लांकडी खांब्यांचें कोरांतिल्लें नक्षीदार काम पळोवपासारकें आसा.

**मुर्ती आनी रुपडीं:** सुरवेच्या तंत्रीक कुशळटाय दाखोवपी बीर-कौर ह्या भारतांतल्या मुर्तीपसून ते सयाम-कंबोडियांतल्या सोबीत बुद्धमुर्तीमेरेनच्या सगळयांचो हातूंत आस्पाव जाता. आफ्रिका आनी पॅसिफिकांतल्या जुंव्यांवयल्यो पुर्विल्ल्यो देवता आनी पुर्वज मुर्ती ह्याच तंत्रीक बंधनाच्यो मेळटात. इजिप्तांतल्या समाध्यांतल्यान जायत्यो लांकडी मुर्ती मेळ्ळयात. तंत्र आनी कला हे बाबतींत ह्यो मुर्ती अग्रेसर, मर्यादाबद्ध आनी सोबीत अशो आसात. तशेंच, जडावाचेय आनी रंगाचे सजावटीन ह्यो मुर्ती ओडलायण्यो दिसतात. तिबेट, थायलंड आनी ख्मेर प्रजासत्ताकांत (कांपुचिया) लांकडी मुर्तीचे कांय बरे नमुने पळोवंक मेळटात. नेपाळांतल्या काठमांडू शारांतले अवलोकितेश्वराची २.१ मी. उंचायेची बशिल्ली लांकडी मूर्त आसा. पंदराव्या शतमानांतली कांपुचियांतली कोरांतिल्ली बुद्धाची रंगीत मूर्त आकारान सादारणशी आसा. तिबेटी कलाकारांनी सोळाव्या शतमानांत खास प्राविण्य मेळोवन मुर्तीची घनताय आनी तिची भायली रेखा हांचो बेस बरो संगम सादपांत यश मेळयलें.

मुर्तीकलेचें ल्हान आंग म्हळयार रुपडीं. मुळाव्या समाजांतले परंपराबद्ध लोक आनी आयजय कांय भागांतल्या आदीवासी नाचांनी मनशाचीं, सवण्यांचीं, मोनजातीचीं वा यक्ष हांचीं बी रुपडीं घालतात. कटोरीच्या आकाराचो एक लांकडी कुडको घांसून, तासून ताचेर नाक, दोळे आनी ओंठ कोरांततात आनी ते रंगयतात.

**खेळणीं :** आर्विल्ल्या काळांत लांकडाचो म्हत्वाचो उपेग म्हळयार खेळणीं तयार करप. हातुंतलीं चडशीं खेळणीं लेथीचेर तयार करतात. हातूंत राजा, राणी शिवाय पशु-पक्षी, रांदपाचो सेट (आयदनां, लाटफळें, रांदन बी) ह्या खेळांचो आस्पाव जाता. हीं खेळणीं तैलरंगान रंगयल्लीं आसतात. हात, पांय आनी तकली खिळयांनी जोडिल्ली आसता. ह्या सगळया खेळण्यांमदीं बावल्यो चड म्हत्वाच्यो आसात. कांयकडेन अशीं खेळणीं त्या त्या थळाचें खाशेलपण आशिल्ल्यान तीं चड खपतात.

**वाद्यां :** लांकडापसून वेगवेगळया तरांचीं वाद्यां तयार करतात. नाद परावर्तीत करप हो लांकडाचो म्हत्वाचो गूण. तंतूवाद्यांक लागपी दुदयापसून लांकडी नळकांड्यापसून तयार केल्ल्या आघात-वाद्यांमेरेन वेगवेगळे प्रकार उपलब्ध आसात. सतारीक दिल्लो मोराच्या दोळयाचो आनी मानेचो आकार तशेंच मकरमुखाचें लांकडी तबलें हीं वाद्यां कोरीव कामाचे नदरेन म्हत्वाचीं आसात.

**हत्यारां :** लांकडापसून तयार केल्ल्या वेगवेगळया हत्यारांमदीं रंगीबेरंगी आनी नक्षीदार ढाली हांचो मुखेलपणान आस्पाव जाता. आजुनय जायत्या रानटी जमातींनी हीं आयुधां तयार करतात. पुण प्रत्यक्षांत झुजांत तीं सद्याच्या काळांत उपेगांत नाशिल्ल्यान राज्यरोहण, धर्मीक विधी वा उत्सव अशाच वेळार तीं वापरतात.

पुर्विल्ल्या काळासावन फर्निचर वापरांत आसा. ताच्यो वेगवेगळयो शैली आनी कलाकुसर, त्या काळांतली संस्कृताय आनी विकास हांची गवाय दितात. भारतांत वेगवेगळया प्रकारांच्या पोतांचे मोव आनी घट लांकडाचें फर्निचर पुर्विल्ल्या काळार सावन व्हड प्रमाणार निर्माण जालें. हें फर्निचर काळाच्या ओघांत नश्ट जालें तरी शिल्पचित्रां वा कलानिर्मितीविशींच्या ग्रंथांनी वा पुरावशेशांवयल्यान पुर्विल्ल्या लांकडी फर्निचराचे नमुने पळोवंक मेळटात.

सद्याक लांकडाक पर्यायी अशे जायते पदार्थ निर्माण जाल्ल्यान वेव्हारीक उपेग आनी कलाकुसरीचें माध्यम हे नदरेन लांकडाचो उपेग आनी म्हत्व उणें जालां.

**फर्निचर :** घरांत, कार्यालयांत वा हेर सुवातींनी वावुरतना सुविधा दिवपी साधनांक / उपकरणांक फर्निचर म्हण्टात. मेज, आरमार, कदेल, खाटी अशो मनशाच्या वापरांत आशिल्ल्यो वस्तू फर्निचर ह्या प्रकारांत येतात. गरजेप्रमाण एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार व्हरपाक हाडपाक येतल्यो अशो ह्यो घोळण्यो वस्तू आसतात. तांच्या वापराप्रमाण तांचे सोबीतकायेकय म्हत्व आशिल्ल्यान तांची रचणूक कलात्मक आसता. आदल्या तेंपार फर्निचर हें मुखेलपणान लांकडापसून तयार करतात आसलें तरी हालींच्या तेंपार लांकडावांगडाच प्लास्टीक, वेत, कोंडे, धातू हांचे पसुनूय फर्निचर करतात. ग्रीक फर्निचरांत फातरांचोय वापर केल्लो दिश्टी पडटा.

**इजिप्ती फर्निचर :** इ. स. आदीं २000 काळांतल्या थडग्यांतले नमुने आनी हेर साधनांतल्यान उपलब्ध जाल्ले म्हायतीवयल्यान इजिप्ती फर्निचर बरेंच कलात्मक आशिल्लें म्हणपाचें कळटा. ते करंबा, एबनी, यू ह्या लांकडाचो उपेग करताले. ते ताका सोबाय हाडपाक तांचेर शिंपयो, रत्नां, भांगर वा हेर धातू हांच्यो पुराय चित्रकृती वा कुडके वापरून जडावाचें काम करताले. तशेंच तांकां लाखेचो रंग वा भांगराचो मुलामो दिताले. त्या काळांत कदेलां, तीन पांयी मेजां फुलयेच्या आकाराचे पांय आशिल्लीं घडयेचीं कदेलां, पटयांनी विणिल्ल्यो बाङ्को ह्यो वस्तू प्रचारांत आशिल्ल्यो.

**ग्रीक फर्निचर :** (इ. स. आदीं ७०० ते इ. स. आदीं) त्या काळांतली शिल्पकला आनी हेर कला हांच्या आदारावरवीं ग्रीक लोकांच्या फर्निचरासंबंदीं म्हायती मेळटा. ग्रीक फर्निचर प्रकारांत शींवासन म्हत्वाचें. तें संगमरवरी फातराचें आसतालें. हे लोक फर्निचराक सोबाय हाडपाखातीर कोरीव कलाकृती वा हस्तदंती, भांगर वा रुपें हे धातू वा कूर्मशुक्ती (कांसवाचे फाटीवयले तपकिरी रंगाचे कुडके) वापरून केल्ल्या जडाव कामाचे उपेग करताले. त्या काळांत कदेल, तामरेत, मंजक, मेज आनी पेट हें फर्निचर वापरांत आशिल्ल्या ग्रीक फर्निचरांत सिडार ह्या लांकडाचो चड उपेग जातालो.

**रोमी फर्निचर :** (इ. स. आदीं ३०० ते इ. स. ६००). रोमी फर्निचरांत चड करून समृद्धीचें आनी गिरेस्तकायेचें दर्शन घडोवपी अलंकरण आनी शुशोभन चड प्रमाणांत दिश्टी पडटा. ह्या फर्निचरावयल्या कोरीव कामांत घट शंखाकृती आनी वेलबुट्टी दिश्टी पडटा. हस्तीदंत, कुर्मशुक्ती, वेगवेगळ्या रंगाचें लांकूड, भांगर, रुपें, कांशे हे पदार्थ जडावकामांत उपेगांत हाडटाले. ह्या फर्निचराखातीर ते सिडार, विलो, फर, ओक, मॅपल आदी झाडांच्या लांकडाचे उपेग करताले. तांचें न्यायाधिशाचें कदेल खास प्रकाराचें आसतालें. हें कदेल म्हळ्यार रोमी कलाकृतीचो एक नमुनो. त्या काळांत कदेल, मंचक, बांक, एका खांब्याचें वाटकुळें, मेज पेटी ह्या फर्निचराचो आस्पाव आशिल्लो.

**मध्ययुगीन फर्निचर :** (इ. स. ६०० ते इ. स. १४००). ह्या फर्निचरांत रोमी आनी उदेंती शैलीची भरसण जाल्ली दिसता. इ. स. बाराव्या शतमानांत गॉथीक फर्निचर शैलीचो उदय जालो. ह्या फर्निचराची आकाररेशा सरळ आसताली. तशेंच आकार प्रमाणबद्ध आसतालो.

त्या काळात बांक, खाट, मेज, पेट, आरमार आनी जेवणा कुडींतली आरमार ह्यो फर्निचर वस्तू प्रचारांत आशिल्ल्यो. ओक, अक्रोड आनी त्या त्या थळांनी उपलब्ध आशिल्ल्या झाडांचें लांकूड फर्निचर करपाखातीर वापरताले. ह्या फर्निचराच्या दारावयलें कोरीव काम कापडाच्या पड्ड्याचो आभास निर्माण करपी आशिल्लें. जाळयेचें नक्षीकाम, कोरीव काम, कमानी, रंगीत चित्रां, कांश्या धातूचीं आरोपणां आदी वापरून फर्निचराक सोबाय हाडटाले. ह्या काळांतलें फ्रांसांतलें फर्निचरावयलें कोरीवकाम हेर कामांपरस खुबूच सोबीत आनी निवळ आसतालें. स्पेनांत सोबित नक्षी आशिल्ल्या खिळयांनी फर्निचराचेर कातडें बसयताले.

**प्रबोधन काळांतलें फर्निचर :** इ. स. १४०० ते इ. स. १६०० ह्या काळांतल्या फर्निचराच्या आकारांत सादेपण तेचवांगडा भारदस्तपण दिश्टी पडटा. त्या काळांत इटलींतलें फ्लोरॅन्स आनी मिलान हीं शारां फर्निचर निर्मितीचीं मुखेल केंद्रां आशिल्लीं. फुडें ह्या दोनूय शारांचें म्हत्व उणें जावन रोम हें प्रबोधन शैलींतलें फर्निचराचें आनी हेर कलांचें केंद्र जालें. त्या काळांत मायकल अँजेलो ह्या नामनेच्या चित्रकाराचे कलेचो परिणाम त्या काळांतल्या फर्निचराचेर पडिल्ल्याचें दिसता. फर्निचराचेर नक्षी वा चित्राकृती निर्माण करपाखातीर रत्नां, हस्तिदंत मुक्ताद्रव आनी ऊच्च प्रतीचें लांकूड आदी पदार्थांचो उपेग करताले. त्या काळांत पिएत्रा दुरा ह्या प्रकाराचें जडावकाम करपाची प्रथा आशिल्ली. ह्या काळांतल्या हॉलंडी फर्निचराची आकृतीरेशा सरळ आसून ताचेर गॉथिक आनी प्रबोधन शैलींतल्या प्रतिमानाचें मिश्रण आसतालें. ह्या शतमानांत बरोवपाचें मेज, खणांची आरमार, प्रसाधन मेज, जेवणाचें मेज, गाडयेचीं कदेलां, खाटी, मंचक अशो वस्तू सादारणपणान प्रचारांत आयल्यो. हे खातीर मॅहॉगनी ह्या लांकडाचो चड उपेग जावंक लागलो.

**सतराव्या शतमानांतलें फर्निचरः** ह्या शतमानांत बरोक शैलीचो उग्गम जालो. जोव्हान्नी बेर्तीनो (१५९८ - १६८०) ह्या इटलियी वास्तुशिल्पकारान बरोक वास्तुशिल्प आनी ताका अनुरूप अशें ग्रहशोभन आनी फर्निचर हांचो विकास घडोवन हाडलो. फ्रांसाचो राजा, चवदावो लुई, हाणें (इ. स. १६४३ - १७१५) वेगवेगळ्या ललीत कलांवांगडाच फर्निचरांत येवजणपुर्वक उदरगत केली आनी फ्रांसाची अशी वेगळी बरोक शैली निर्माण केली. इंग्लंडांत पयल्या चार्ल्सांचे कारकिर्दींत इनिगो जोन्स ह्या वास्तुशिल्पकाराच्या फुडारपणाखाल पाललाद्योचे शैलींतल्या फर्निचराचो पुरस्कार जालो. ह्या शतमानांत इंग्लंडांत राजवाड्यांतलें फर्निचर चवदाव्या लुईन पुरस्कृत केल्ले शैलीचे धर्तेचेर आशिल्लें. ह्या काळांत इंग्लंडांत वेताचें फर्निचरय प्रचारांत आशिल्लें. ह्या शतमानांत चीनांतल्यान युरोपीय देशांनी जायतें फर्निचर आयात करप

जातालें.

**अठराव्या शतमानांतलें फर्निचर :** ह्या शतमानाचे सुरवेक शार्ल क्रेसां ह्या फ्रेंच मंजुषाकारान अमरथ पलिसांद्रे, तपकिरी आनी तांबडो माहॉगनी, जांबळया रंगांतल्या वेगवेगळया सयांचें लांकूड वापरून तेवरवीं फर्निचराचें सुशोभन केलें. ह्याच काळांत पंदराव्या लुईच्या नांवान वळखतल्या रोकेल्ड वा रोकोको हे शैलीचो उदय जालो. अठराव्या शतमानांत बरोक शैलीचें फर्निचर जरी प्रचारांत आशिल्लें तरी रोकोको शैलीचो प्रभाव वाडत गेलो.



एक लांकडी मूर्त

फ्रांसाचो सुरवेकसावन रोकोको शैलीक विरोध आशिल्लो. थंयच्या वास्तुशिल्पज्ञ आनी चित्रकारांनी 'नव-अभिजात' ही नवी शैली प्रवर्तित केली. इंग्लंडांत अठराव्या शतमानांत फर्निचराच्या वेगवेगळया प्रकारच्या कारागिरांचे गट जाले. देखीक : गादीकाम करपी, कदेलां करपी, तक्षणक ह्या काळांतलें फर्निचर इटलींतल्या पलाडीअन शैलींतलें आशिल्लें.

**एकुणिसाव्या शतमानांतलें फर्निचर :** १८१५-१८६० ह्या काळांत 'बायडरमीअर' नांवाची शैली प्रचारांत आयली. शैलींतल्या फर्निचराचें खाशेलपण म्हळयार आकृतीरेशेचें आनी सुशोभन माध्यमाचें सादेपण. एकुणिसाव्या शतमानाचे सुरवेक इंग्लंडांत नवअभिजात शैलींतलें फर्निचर वापरांत आशिल्लें.

उपरांतच्या काळांत उद्देगीक क्रांतीक लागून फर्निचर करपाचें नवें तंत्र उदयाक आयलें. ह्या काळांत फर्निचराचे नवे नवे आकारय रूढ जाले. एकुणिसाव्या शतमानांतलें कागदा लगद्याचें फर्निचर आनी टनब्रिज व्हिनीयर हें काम उल्लेख करपासारकें आसा. पूण १८५० उपरांत ह्या दोगांयचेंय म्हत्व उणें जावंक लागलें.

**विसाव्या शतमानांतलें फर्निचर :** ह्या काळांत फर्निचराचो उपेग भोवसंख्य लोक करपाक लागले आनी जाग्याचे अडचणीक लागून फर्निचराचो आकार ल्हान आनी सुटसुटीत जावपाची गरज भासली. हातुंतल्यानच आधुनिक फर्निचर कलेचो उदय जालो.

ह्या काळांत फर्निचराचे अभिकल्प करतना उण्यांत उणे दर, चडांत चड उपेग, सादी आनी स्पश्ट आकार रेशा, खंयचोय पदार्थ वा कच्चो म्हाल वापराची मुभा आनी चड उत्पादन हें तंत्र मतींत घेवप जातालें. तेन्नाच्यान उपलब्ध जाल्ल्या पदार्थांचो उपेग करून आनी आधुनिक उत्पादन तंत्र वापरून बऱ्या प्रकारचें फर्निचर वापरांत येवंक लागलें. जायत्या प्रकारान उपेगी पडपी आनी घडयेचें फर्निचर ह्या शतमानांत रूढ जालें.

**भारतीय फर्निचर :** भारतांतली फर्निचर निर्मितीची परंपरा खूब पोरनी आसून विविधताय, कलात्मकताय आनी उपयुक्तताय ह्या नदरांनी ही परंपरा समृद्ध आसा. हेर देशांतल्या फर्निचरावरीच भारतीय फर्निचरप्रकार हे खाशेलें वातावरण, भुगोलीक परिस्थिती, लांकूड वनस्पतीचीं पानां, साली, धागे, धातू, फातर, हस्तीदंत ह्या सारक्या माध्यमांची उपलब्धताय, समाजांतल्यो कुटुंबीक, वेवसायीक जिणेंतल्यो गरजो, प्रथा आनी संकेत वास्तुकला, चित्रकला आनी घराची सोबाय ह्या गजालींकडेन संबंदीत आसतात. अशें आसून लेगीत भारतीय फर्निचरांचीं कांय खाशेलपणां आसात तीं अशीं - १) भारतांत वेगवेगळया पोतांचें मोव, घट लांकूड मेळटा देखून लांकडी फर्निचर भारतांत पुर्विल्ल्या काळासावन निर्माण जावंक लागलें. २) लोखण धातू हाचे सारक्या धातुंचें फर्निचरय भारतांत निर्माण जालें. तशेंच, हस्तीदंती माध्यमांचो फर्निचराचे सजावटींत उपेग जावंक लागलो. ३) वास्तुरचनेचो एक वांटो म्हणून ओटे, बसका, आसनां वा पिठां ह्यो सुविधा करपाखातीर फातर, माती, चुनो, विटो हांचो उपेग जालो. ४) भारतीय फर्निचर प्रकारांत दर्भासनां, आसंदी, मंचक, खाट, आरमार, पटो, घडवंची, करंडे, छत्र, चामर, फुलपात्रां, दिपमाळो, शींवासन, मकर, चौरंग, अंबारी, सारीपाट, पाळणें, झोंपाळो, पालखी, मेणो, रथ ह्या सारक्या प्रकारांक चड म्हत्व आसा. ५) भारतीय फर्निचर निर्मितीची कला ही पुर्विल्ल्या भारतीय कलासाहित्यावरीच धर्मीक कल्पनांनी प्रभावीत जाल्ल्याचें दिसता. ६) भारतांतल्या प्रदेशविशिश्ट फर्निचराचेर त्या त्या प्रदेशांतल्या साधनसामग्रेचो आनी राहणीमानाचो परिणाम जाल्लो दिसता. देखीक - मेणो, पालखी, शिबिका हे एकाच वर्गांतले आसुनय त्या त्या क्षेत्रांत तांचे खास अशे प्रकार आसात. ७) फर्निचरकला ही दीसपट्टे जिणेकडेन बांदिल्ली आशिल्ल्यान कालमानाप्रमाण जिणेंत जावपी बदलांचो परिणाम फर्निचरनिर्मितींत जालो. देखीक - मुसलमानी राजवटीच्या काळांत अलंकृत गादयो, लोडां अशें दरबारी फर्निचर तयार जालें. जाल्यार ब्रिटीश काळांत मेज, कदेलां, बांक, आरमारी हें फर्निचर सामान्य लोकांमेरेन येवन पावलें. ८) बऱ्याच वेगान बदलत गेल्ल्या भारतीय फर्निचरप्रकारांत काय परंपरीक प्रकार उण्या अदीक फरकांसकट तिगून आसात.

**इतिहासीक नियाळ :** भारतीय फर्निचराची परंपरा भारतीय संस्कृताये इतलीच पोरनी. ऋग्वेदोदी वेदवाङ्मय, रामायण - महाभारत पुराणां, वात्सायनाचें कामसूत्र, राजा भोजदेवाचें समरांगण सुत्रधार आनी युक्तीकल्पतरू चालुक्यवंशीय सोमेश्वरराजा हाच्या मानसोल्लास ह्या ग्रंथांनी, तशेंच अजंठा-वेरुळाची लेणीं, खजुराहोचें शिल्प, पुरातत्त्वीय उत्खननां हांचेवरवीं पुर्विल्ल्या भारतीय फर्निचर कलेचें स्वरूप दिग्दर्शित

जाता. तशेंच मोहें-जो-दाडो, हडप्पा, लोथल आनी कालिबंगाच्या उत्खननांनी त्या काळांतल्या घरगुती फर्निचराचे पुरावे उपलब्ध जाल्यात. उपरांतच्या काळांत वेगवेगळ्या सत्ताधाऱ्यांनी भारताचेर राज्य केलें. त्या त्या काळांत वेगवेगळयो शैली उदयाक आयल्यो. ह्या वेगवेगळ्या चित्रशैलींतल्या चित्रांतल्यान तत्कालीन फर्निचर प्रकारांचें दर्शन घडटा.

**प्रदेशीक फर्निचर निर्मितीचें खाशेलपण :** काश्मीरांत परंपरागत पद्दतीन देवदार आनी अक्रोड ह्या मोव लांकडापसून घरगुती वस्ती तयार करतात. हातूंत बोळकीं, तबकां, चित्रचौकटी, आरमारी, आडोशीपट, मेजपृश्ठाच्यो फूलदाणयो हांचो आस्पाव जाता.

हिमाचल प्रदेशांतल्या परंपरागत फर्निचर प्रकारांत उदकाचीं आयदनां, ल्हान व्हड बोळकीं, धान्याच्यो आडी हांचो आस्पाव जाता.

पंजाबांतलें फर्निचर वेलबुट्टिदार, नक्षी तशेंच हेर भुमितीक आकृतीबंध हांणी सजयल्लें आसता. होशियारपूर, जालंधर, अमृतसर, भेडा आदी पंजाब राज्यांतलीं फर्निचर निर्मितीचीं केंद्रां प्रसिद्द आसात. ह्या फर्निचर प्रकारांत मेज, टीपॉय, तबकां, मेजाचे पांय, आडोशीपट, बोळकी हांचो आस्पाव जाता.

उत्तर प्रदेशांतलें पारंपारीक फर्निचर नाजूक तक्षणकामाखातीर प्रसिद्द आसा. हेरखातीर चडसो एबनी लांकडाचो वापर करप जाता. उत्तर प्रदेशांतलीं अलीगढ, लखनौ, गाझीपूर आनी मथुरा हीं केंद्रां लांकडी वस्तूचे निर्मितीखातीर प्रसिद्द आसात. वेगवेगळ्या तरांच्यो पेटयो, कलमदानां, खडावो, मेजां, कदेलां अशे फर्निचर प्रकार करतात.

आसामांतल्या देवाऱ्याची खूब नामना आसा. हाचेभायर हांगाच्यो घरांतल्या वापराखातीर केल्ल्यो ल्हान बसका, मेज, आसनां, ग्रंथाळे, आरमारी हुक्के ह्योय वस्तू खाशेल्यो आसात.

बिहारांतलें फर्निचर आनी काश्ठवस्तू हांचेर लाखेचें उदक दिल्लें आसून तांचेर परंपरागत शैलीन तक्षण केल्लें आसता. हातुंतली सिंदूरदान पेटी उल्लेख करपासारकी आसा.

गुजरातांतलें तक्षणयुक्त मेज तशेंच णव खणांची 'नवखणिया' आनी तीन खणांची 'त्रणखणिया' आरमार हीं गुजराती फर्निचराचीं खाशेलपणां. गुजराती फर्निचरावयलें सारवंडी काम, तशेंच सादडी काम तोखणाय करपासारकें आसता. राजस्थानांतलें भावनगर हें शार आरमारींखातीर नामनेचें आसून थंय ताका पात्र अशें म्हण्टात. हाचे भायर राजस्थानांत स्टँडाचे झोपाळे, फडताळ, सिंदूरपेटी हीं राजस्थानांतल्या फर्निचराचीं खाशेलपणां.

तमीळनाडूंत एबनी वा रोझवूड लांकडांपसून देवारे, मेजपृश्ठां आदी पारंपारीक निर्मिती करतात.

कर्नाटकांत पारंपारीक फर्निचराखातीर रक्तचंदनाचो वापर करतात. तशेंच, मूळ लांकडी वर्णछटेक धरून केन्ना केन्नाय हस्तीदंती जडाव कामय करतात.

आंध्र प्रदेशांत तांबशा रंगाच्या लांकडापसून नाजूक चित्रचौकटी, काश्ठमंजुषा ह्यो वस्तू तयार करतात. हांगाच्या निर्मळ गांवच्या फर्निचराची नामना आसा. हातूंत पेटयो, तबकां, कदेलां हांचो आस्पाव जाता.

महाराष्ट्रांतल्या सावंतवाडी जिल्ह्यांतले चौरंग, पाट पोथीवयल्यो फळयो, आरमारी, कदेलां आदी वस्तुंची खूब नामना आसा. तशेंच कल्याण, पेण ह्या वाठारांनी घरांतले झोपाळे, पाळणीं ह्यो वस्तू तयार करतात.

गोंयांत आदल्या तेंपार शिसवी वा रोझवूड ह्या लांकडांत वाली, फुल्लां, फळां वा देवादिकांच्यो प्रतिमा कोरांतिल्लें फर्निचर प्रतिश्ठीत घराण्यांनी वापरप जातालें. आयजय गोंयच्या कांय सधन वाड्यांनी हें फर्निचर जतन करून दवरिल्लें दिसता. कांय फर्निचरांत सोबीत रंगीत तिजुले, हारशे, पितूळचें नक्षीकाम करप जातालें. उपरांत अशाच फर्निचराचें आधुनिक रूप म्हणून उण्या प्रमाणांत कलाकुसर आशिल्ली. पूण वेताच्या वीणकामाची बसका आशिल्लें फर्निचर आयले उपरांत आधुनिक काळांतलें धातूचें प्लास्टिकाचें, वेताचें फर्निचर गोंयांत पावलें.

आयच्या काळांतय पोरन्या आनी नव्याचो संगम दाखोवपी म्हळयार लांकूड आनी काथो वा स्पंज आनी लुगट हांच्या एकठांय वापरान तयार केल्लें बसपा-न्हिदपाचें फर्निचर उपलब्ध आसा.

आदल्या तेंपार सर्वसादाराण मनशाच्या घरांत पाट,म्हाणाय असलें सुटें फर्निचर आसतालें. बसपाखातीर मातयेचे सोंपे सर्रास दिसताले. उपरांत सोंप्याची सुवात लांकडाच्या बांकांनी घेतली. बसपाखातीर आनी बसपा-न्हिदपाखातीर लांकडी कानापे आनी लांकडी खाटी आयल्यो. तेचवांगडा लांकडी आरमारी, कदेलां, सोफासॅट, जेवणा मेजांय आयलीं.

- कों. वि. सं. मं.

## लांगे, क्रिस्त्यान लूई

: (जल्म : १७ सप्टेंबर १८६९, स्टाव्हांगर-नॉर्वे; मरण : ११ डिसेंबर १९३८, ऑस्लो-नॉर्वे).

नॉर्वेचो मानवतावादी इतिहासकार आनी शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो सहमानकरी. लांगेन क्रिस्त्यान - ऑस्लो विद्यापिठांतल्यान (नॉर्वे) १८९३ वर्सा पदवी घेतली. उपरांत ताणें आंतरराश्ट्रीय वादाचो इतिहास ह्या विशयाचेर प्रबंध बरोवन १९१९ वर्सा डॉक्टरेट मेळयली. नॉर्वे हो स्विडनासावन वेगळो करपाखातीर स्थापन जाल्ले युवा चळवळींत विद्यार्थीदशेंत ताणें सक्रीय वांटो घेतलो. सुरवेक नॉर्वेजियन इन्स्टियुटाच्या इतिहास विभागांत ताणें १८९८ - १९०१ ह्या काळांत अध्यापनाचें काम केलें. ऑस्लोचे नोबॅल समितीचें पयलें सचीवपद ताका दिलें (१९००-०९). नोबॅल संस्थेंत लांगेन खूब कश्ट घेवन समृद्ध अशा ग्रंथालयाची स्थापणूक केली (१९०४). उपरांत द हेगाक १९०७ तले शांतताय

परिशदेंत वांगडी म्हणून ताची निवड जाली आनी दोन वर्सां उपरांत ब्रुसेल्स आंतरसंसदीय संघाच्या महासचीवपदाचेर ताची नेमणूक जाली (१९०९-३३).

पयल्या म्हाझुजांत आंतरराश्ट्रीय कायद्याचो भंग करून जर्मनीन बेल्जियमाक आपल्या शेकातळा हाडलो (१९१४). तेन्ना लांगेक हे संघटनेविशीं हुस्को जालो. ताणें त्या झुजांतल्या घडामोडींपसून ही संघटना कुशीक दवरपाच्या हेतान लॉर्ड व्हिंडेल ह्या अध्यक्षाकडेन पत्रवेव्हार केलो. हाका लागून जिनिवा हें आंतरराश्ट्रीय शांततायेचें स्थायी केंद्र जालें. द हेगाचे परिशदेंत अनाक्रमण आनी शस्त्रास्त्रांची निर्मिती हांचेर व्हड चर्चा जाली आनी लांगेची ते परिशदेचो अध्यक्ष म्हणून निवड जाली. पयल्या म्हाझुजांतल्यान संवसारीक शांततायेखातीर स्थापन जाल्ल्या राश्ट्रसंघाचेरय एक क्रियाशील वांगडी म्हणून ताणें काम केलें. ह्याच काळांत ताणें हिस्टरी ऑफ इंटरनॅशनॅलिझम ह्या पुस्तकाचो पयलो खंड उजवाडायलो (१९१९). ह्या पुस्तकांत ताणें संवसारीक शांततायेचें म्हत्व सांगलां. तशेंच ताणें आंतरराश्ट्रीयत्ववादाविशींची उद्‌बोधक म्हायती दिल्या. तशेंच शांततायवाद ह्या उतराबदला आंतरराश्ट्रीयत्व हें उतर वापरलां.

स्विडनाच्या साम्राज्यांतल्यान नॉर्वेची मुक्तताय (१९०५) करपांतलें ताचें कार्य, फ्रित्यॉक नान्सेन हाचेवांगडा ताणें केल्लें शांतताय कार्य म्हत्वाचें आसा. कार्ल याल्मार ब्रांटिंग हाचेवांगडा शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान केलो (१९२१).

ताणें शांततायेविशीं खूब लिखाण केलां. ताच्या ग्रंथांभितर 'पार्लमेंटरी गव्हर्नमेंट अँड दी इंटर - पार्लमेंटरी युनियन' (१९११), 'दी इंटर पार्लमेंटरी युनियन' (१९३२) हे उल्लेख करपासारके आसात.

नोबॅल पुरस्कारावांगडा ताका १९३२ वर्सा 'ग्रेटिअस मॅडल ऑफ द नेदर्लंड्स' हें प्रतिश्ठेचें इनाम मेळ्ळें.

- कों. वि. सं. मं.

**लांजेकार, कृपावंत शंभू :** (जल्म : १६ मे १९३४, म्हापशें - बार्देस).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण पुर्तुगेज आनी मराठींतल्यान घेतलें. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. रेल्वेन प्रवास करपी लोकांक सुटके झुजाविशीं पत्रकां वाटप आनी गोंयच्या सुटके झुजांत वांटो घेवंक तांकां उत्तेजन दिवप असलीं कामां तो करतालो. १६ सप्टेंबर १९५४ ह्या दिसा ऑल्व्हीन कुयेल्ल हाच्या मार्गदर्शनाखाल १२ वांगड्यांक घेवन तेरेखोल किल्ल्याचेर ताणें सत्याग्रह घडोवन हाडलो. तेन्ना पुलिसांनी ताका धरलो आनी पणजी पुलीस ठाण्याचेर व्हरून सुमाराभायर शारिरीक त्रास दिले. तशेंच २२ दीस ताका आल्तिन्या वयले (पणजी) बंदखणींत दवरलो. उपरांत प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून १२ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ३१ मे १९५९ ह्या दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. बंदखणींतल्यान सुटका जाले उपरांतय गोंयचे सुटकेमेरेन ताणें राश्ट्रीय वावर चालू दवरिल्लो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**लांजेकर, रामेश्वर भगवंत :** (जल्म : २५ जून १९३७, म्हपशें-बार्देस).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें इंग्लीश माध्यमिकमेरेन शिक्षण घेतलें. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तिरंगी बावटे लावप, पत्रकां लावप, क्रांतीकारी कार्यकर्त्यांच्यो बसका घेवप असलीं कामां तो करतालो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा बाळा काकोडकार हाच्या फुडारपणाखाल ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पुर्तुगेज पुलिसांनी ताका धरलो आनी सुमाराभायर मार दिवन ताका प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो केलो. न्यायालयान ताका १० वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेचपरी वीस वर्सां खातीर ताचे राजकी हक्क काडून घेतले. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**लाडंगो :** एक सस्तन प्राणी. तो कॅनिडी कुळांतलो आसून सुण्याचे प्रजातींतलो. ताचें शास्त्रीय नांव कॅनिस ल्युपस. भारतांत मेळपी लांडग्याचें शास्त्रीय नांव कॅ. ल्युपस पॅलिपीस. कॅ. नायजर ही ल्हान तांबडी जात मूळची अमेरिकेच्या टॅक्सस आनी फ्लोरायडा राज्यांतली. हांचो प्रसार युरोप, उत्तर अमेरिका, तशेंच उत्तर, मध्य, नैऋत्य आशियांत जाल्लो आसा. हे तिबेट, लडाख, काश्मीराच्या शिमेवयल्या भागांनी आनी भारतांतय दिश्टी पडटात. ते चड करून वसाड तशेंच सुक्या, उक्त्या, मैदानी वाठारांनी आनी रानांनी लेगीन रावतात.

तांची लांबाय ९०-१०५ सेंमी. आनी शेंपडी ३५-४० सेंमी. आसता. हिमालयांतले लांडगे आकारान व्हड आसतात आनी तांच्या



रंगातय बदल दिश्टी पडटा. भारतांतल्या मैदानी वाठारांतले लांडगे गोबरा रंगाचे आसून तांच्या आंगार ल्हान-व्हड काळे थिपके आसतात. तिबेट, लडाख आनी हिमालयांतल्या लांडग्यांचो रंग काळसर आसता. शियाळयांत तांचो रंग करडो वा तिकतिकीत हळदुवो आसून आंगार काळे आनी धवे वा काळे आनी हळदुवे लांब केंस आसतात. उत्तर सायबेरिया आनी कॅनडांतले लांडगे चडशे धवेच आसतात.

काश्मीराच्या सड्याचेर, तिबेट आनी लडाखांत ते हेडगे म्हणून आसतात. शियाळयांत ते सकयल देगणांनी देंवतात. शियाळयांत ते बिळांत वा व्होंवरींनी रावतात जाल्यार गिमादिसांनी ते बेताच्या वा झोंपांच्या दाट जाळयांनी रावतात. रेवटांतले लांडगे रेंवेच्या दोंगरांचेर धोली करून तातूंत रावतात. भक्ष्यांचे शिकारेखातीर ते दिसाचे, रातचे भायर सरतात. मनीस वस्तीकडेन ते केन्ना केन्नाय गोरवांचेर घुरी घालतात. रानांत ते हरणां, कोल्ले, सोशे हांची शिकार करतात. भुकेल्लो लांडगो मेळटा त्या प्राण्याचेर (मनशाचेर लेगीत) क्रूरपणान हल्लो करता आनी मरपाची वाट पळयनासतना ताचे लचके तोडून खाता. लांडगो जोडयेन वा टोळयांनी शिकार करतात.

लांडग्याची नर-मादी ही जोडी जल्मभर तिगता. भारतांत तांचो प्रजोत्पादनाचो काळ चड करून पावसाळयाचे अखेरेक आसता. तांचो गर्भावधी ६०-६३ दिसांचो आसून पिलां डिसेंबरांत जल्मतात आनी एके खेपेक ३-९ पिलां जातात. पिलांची पुराय वाड तीन वर्सांनी जाता. लांडगो १२ - १५ वर्सां जगता.

पुर्विल्ल्या काळासावन मनशाक, पाळीव प्राण्याक आनी व्हड शिकारी प्राण्याक लांडग्यापसून धोको आशिल्ल्यान ताची शिकार करतात. अठराव्या शतमानांत ग्रेट ब्रिटनांतले लांडगे नश्ट केले. सद्या अस्तंत आनी दक्षिण युरोपांत ते निर्वंश वा दुर्मिळ जाल्ले आसात. अमेरिका आनी दक्षिण कॅनडांतय अशीच स्थिती आसा. उत्तरेकडेन ते कांय कडेन दिश्टी पडटात.

रानटी लांडग्याचे पाळीव सुण्याकडेन संयोग जाता आनी ताचेपसून फलनक्षम संकरीत प्रजा निर्माण जाता. पूण जायत्या शतमानाच्या निवड संकर पद्दतीन युरोपी लांडग्यापसून सुण्याचे संकर तयार जाल्ले आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**लाख आनी लाखकाम :** हेमिप्टेरा गणांतल्या करिया (लॅसिफर) प्रजातींतल्या ल्हान किड्यांच्या रेझिनयुक्त संरक्षक चिकट स्त्रावाक लाख म्हण्टात. भारत, थायलंड, मियानमार आनी आग्नेय आशियांतल्या हेर प्रदेशांनी हे किडे जंगली आनी लागवडींतल्या रुखांच्या खांदयांचेर वा तरन्या कोंबांचेर कीड म्हणून जगतात. लाखेच्या किड्याचे सुक्ष्म तांबड्या रंगाचे डिंभ आश्रयी रुखाच्या रसाळ, तरन्या खांदयांचेर थिरावतात आनी आपली सोंड सालींत रोमून अन्नरस शोशून घेतात. ते दाट, रेझीनयुक्त द्रव स्त्रवतात. त्या स्त्रावान तांचें शरीर धांपता. व्यक्तिगत किड्यांचो स्त्राव एकजीव जावन खांदयेचेर घट्ट असो अखंड थर तयार जाता. किड्याचें जीवनचक्र पुराय जाले उपरांत आनी फुडले (दुसरे) पिळगेंतले डिंभ भायर पडपाक सुरवात जावपाच्या वेळार खांदयो कापतात, सुकयतात आनी वेपारी लाख मेळोवपाखातीर तिचेर प्रक्रिया करतात. लाख आनी तिचेपसून मेळपी तांबडें रंजकद्रव्य खूब पुर्विल्ल्या काळापसून भारतीयांक खबर आसून कलेंत, वास्तूनिर्मितींत तिचो उपेग जायत आयला. महाभारतांत कुंतीवांगडा पांडवांक लाखेपसून तयार केल्ल्या लाक्षाघरांत लासून मारपाचो कौरवांनी यत्न केल्ल्याचें वर्णन आसा. अथर्ववेदांतय लाखेच्या किड्याचें वर्णन आनी ताच्या उपेगाविशींची म्हायती दिल्ली आसा. इ. स. प. १२०० इतल्या पोरन्या काळांत भारतांत लाखेपसून आकार्य (आकार दिवपाक येवपी) आनी सोबीत वस्तू तयार करताले.

सतराव्या शेंकड्यांत वेपाऱ्यांनी लाखेचें रंजकद्रव्य आनी ताचेउपरांत शेलॅक (पत्रीच्या रुपांतली लाख) हांची युरोपीयांक वळख करून दिले उपरांत थंय तिका वेपारी म्हत्व फावो जालें. मागीर लाख उत्पादनां जगांतल्या उद्देगीकरण जाल्ल्या चडशा देशांनी वापरपाक लागले. आयज वेगवेगळ्या उद्देगधंद्यांनी आनी आंतरराश्ट्रीय पांवड्याचेर लाखेचें म्हत्व वाडिल्लें आसा.

लाखेचो किडो हो एके तरेचो खवले किडो आसून ताचो आस्पाव हेमिप्टेरा गणाच्या होमोप्टेरा उपगणांतल्या लॉसिफेरिनी कुळांत जाता. भारतांत लाखेच्या किड्यांच्यो चवदा जाती मेळटात.

ह्या किड्यांचें जीवनचक्र अशें आसा - ल्हान अशा व्हड्याच्या आकाराच्या, तांबड्या रंगाच्या डिंभापसून ह्या किड्याच्या जीवनचक्राक सुरवात जाता. डिंभाची लांबाय सु. ०.०५ मिमी. आनी रुंदाय सु. ०.२५ मिमी. आसता. एक निकोप मादी ३०० - १,००० डिंभांक जल्म दिता. कोंबांवयल्या वसणुकांची दाटाय दर चौ. सेंमी. थीर जालेउपरांत ती सुवात सोडून खंयच वचना.

डींभ थीर जाले उपरांत सादारण एक सप्तक वा ताचे उपरांत सगळया शरीराचेर आशिल्ले उपत्वचे सकयल आशिल्ल्या ग्रंथींतल्यान लाख स्त्रवपाक सुरवात करतात. अशे तरेन आपल्याच स्त्रावान तयार जाल्ल्या कोशठाच्या आवरणांत मदीं डींभ बंदिस्त जाता. प्रौढ दशा येमेरेन डींभ तीन फावटी कात सोडटा. डिंभावस्थेंतल्या तीन अवस्थांचो काळ हो तापमान ओलसाण आनी आश्रयी वनस्पत हांचेर आदारीत आसता. कोशठाच्या आकारावयल्यान डिंभाच्या विकासाच्या सामक्या सुरवेच्या अवस्थांपसून लींग-भेद वळखुपाक येता. कोशावस्था पुराय जाले उपरांत पांखवां नाशिल्लो वा अपक्ष प्रौढ नर आवरण कुशीक काडून भायर सरता.

मादी डींभ फुगीर जाता आनी वाटकुळसार पोतयेचो आकार

धारण करता. तिसरे खेपे कात सोडले उपरांत मादी लैंगिक नदरेन प्रौढ जाता. तांतयां घालमेरेन ती लाख आनी जननक्षम प्रजा निर्माण करपाक शकता. मादयेची तांतयां घालपाची क्षमताय ८-१२ दिसांमेरेन तिगून रावता. तांतयां घालप आनी तयार जावप ह्या क्रियांनी तापमानाचो खूब म्हत्वाचो भाग आसता. मादयेन घाल्लीं तांतयां रोखडींच उबतात आनी डींभ तयार जातात.

लाखेच्या किडयाचे रंगिनी आनी कुसुमी (कुसुंबी) हे दोन वाण भारतांत चड करून वळखतात. तांचेपसून तयार जाल्लें पीक ज्या म्हयन्यांत काडटात ताचेवयल्यान तांच्या पिकांक नांवां दिल्लीं आसात.

कोशींव, पळस आनी बोर ह्या तीन आश्रयी रुखांचेर मुखेलपणान लाखेचें पीक घेतात. ह्या रुखांच्या कापटेचें स्वरूप, प्रमाण आनी तिचो वर्साचो काळ हांचेर रसाळ खांदयो तयार जावप आनी ताका लागून लाखेचें पिकय आदारीत आसता. पूण थळावे परिस्थितीप्रमाण कापणे वेळापत्रक बदलचें पडटा. कोशींव आनी वड, पिंपळ हांचे प्रजातींतल्या कांय जातींच्या रुखांवयलें पीक काडटना कापणी जाताच . कापणी करतना वा पीक काडटना सगळयो पिडेस्त आनी मेल्ल्यो खांदयो कापून उडयतात. फावोसो आलाशिरो दिवपी वनस्पत आशिल्ल्या वनांत-उपवनांत आनी लागींच्या प्रदेशांत लाख संवर्धनाचो धंदो शेतकार जोडधंदो म्हणून करतात. लाख उत्पादन करपी भारतांतले म्हत्वाचे प्रदेश अशे - बिहार - छोटा नागपूर विभाग; संथाळ - परगणा आनी गया जिल्हो; मध्य प्रदेश - बिलासपूर, रायपूर, बालाघाट, छिंदवाडा, जबलपूर, अंबिकापूर (सरगुजा), मंडला, रायगढ, सिवनी, दूर्ग, होशंगाबाद आनी शहडोल हे जिल्हे; अस्तंत बंगाल - पुरुलिया, मुर्शिदाबाद, मालडा आनी बांकुश हे जिल्हे; मेघालय- खासी आनी जैंतिया तेमकां, गारो तेमकां; आसाम - मीकीर तेमकां, नौगाँग, कामरूप आनी सिबसागर वनविभाग, ओरिसा मयूरभंज, संबळपूर, बोलानगीर, धेनकानाल, कालाहंडी आनी केओंझार हे जिल्हे; महाराष्ट्र - भंडारा आनी चंद्रपूर हे जिल्हे; गुजरात-पंचमहाल आनी बडोदा हे जिल्हे; उत्तर प्रदेश - मिर्झापूर आनी लखनौ आनी वाराणसी वनविभाग. तशेंच पंजाब, कर्नाटक आनी तमीळनाडू (मदुराई जिल्हो) ह्या राज्यांत कांय प्रमाणांत लाखेचें उत्पादन जाता.

डींभ - लाखेपसून लाख संवर्धनाक सुरवात जाता. डींभ-लाख म्हळयार आलाशिरो दिवपी रुखांच्या लाक्षाकोश्ठांतल्यान डींभ भायर पडपाचे तयारेंत आशिल्ल्यो लाखेचो थर आशिल्ल्यो खांदयो. ह्यो खांदयो कापून तांचे भोरे बांदतात आनी नव्या आलाशिरो दिवपी रुखाचेर बऱ्याशा जाग्यार बांदतात. ताका लागून डींभ लागींच्या रसाळ कोंबांचेर चडटात आनी थिरावतात. आलाशिरो दिवपी रुखांची फाव ती जतनाय, रोग आनी पिडक मुक्त डींभ रुखाचेर सोडपाची वेळ आनी पद्दत, लाखेच्या किडयांच्या पीडकांचो आनी भक्षकांचो बंदोबस्त हे सगळे लाख उत्पादन मेळपाचे नदरेन म्हत्वाचे घटक. हे खातीर लाख संवर्धनाचीं सुदारीत तंत्रां विकसीत आनी उत्पादकांत लोकप्रिय केल्यांत. तशेंच एकाच प्रकारच्याय खास अशा आश्रयी रुखाचेर वर्सानि वर्सा त्याच प्रदेशांतली डींभ - लाख वापरली जाल्यार लाखेची प्रत उणी जाता. देखून लाख संवर्धनाखातीर वेगवेगळया प्रकारच्या आश्रयी रुखांचो सोद घेवप गरजेचें आसता.

जायत्या जातींच्या परजिवी गांजीलमुसांचो लाखेच्या किडयांक त्रास जाता. हे मूस किडयांच्या शरिराचेर तांतयां घालतात आनी तांचे डींभक किडे खातात. ह्या परजिवाक लागून लाखेच्या पिकाचें नुकसान जाता. हांचे भायर सवणीं आनी चानयो हांकां लागून किडयांचें आनी थरांचें बरेंच नुकसान जाता. कांय किटक अप्रत्यक्षपणान लाख संवर्धनाक पालवय दितात.

काडी लाख, बीज लाख, शेलॅक, गुंडी लाख, गार्नेट लाख, मेणरहीत लाख, विरंजीत (रंग काडून उडयल्ली) लाख हे लाखेचेच काय प्रकार. प्लास्टिकां, विद्युत् निरोधक, आसंजकां (चिकटावपी पदार्थ), मुद्रणाची शाय, वखदी बडयो, गुळयो, चामडें आनी जोडे हांचे वयलें संस्करण, लांकडाची पॉलीश, वार्निश, हॅट कडक करपाखातीर आनी हेर जायत्या उद्देगांनी लाखेचो उपेग करतात. शिलामुद्रणाखातिरय तिचो उपेग जाता.

संवसारांतल्या ८० टक्क्यांपरस चड लाखेचें उत्पादन भारतांत जाता. भारताभायर थायलंड मियानमार, चीन, मलेशिया आनी इंडोचायना ह्याय देशांनी लाखेचें उत्पादन जाता.

लाख ही जंगली संपत्ती आसून ह्या उद्देगाक लागून आदिवासी आनी वन्य जमातींच्या सु. ४० लाख लोकांक रोजगार मेळटा. मिर्झापूराक (उत्तर प्रदेश) एकुणिसाव्या शेंकडयाच्या मध्याक परिश्कृत लाखेच्या उत्पादनाक जायत्या ल्हान कारखान्यांनी सुरवात केली. बिहारांतलें झाल्डा, बलरामपूर आनी तुलसी हीं म्हत्वाचीं शेलॅक निर्मिती केंद्रां. अस्तंत बंगालांत पुरुलियाक जायते ल्हान लाख परिश्करण कारखाने आसात. कलकत्त्याकय यंत्रनिर्मीत शेलॅकाचे दोन व्हड कारखाने आसात. मध्य प्रदेशांत बिलासपूर जिल्ह्यांत आनी महाराष्ट्रांतल्या भंडारा जिल्ह्यांत कांय ल्हान लाख परिश्करण केंद्रां आसात. गोंदियाक शेलॅक तयार करपाचो कारखानो आसा.

बिहारांतल्या नामकूमाक १९२४त स्थापन जाल्ल्या इंडियन लॅक रिसर्च इन्स्टिटयूटांत लाखेच्या संवर्धनाचीं तंत्रां, प्रक्रिया आनी नवे उपेग हांचेविशीं संशोधन करतात. हे संस्थेन पारदर्शक लाख तयार करपी किडयांचोय सोद लायिल्लो आसा.

१९७० - ७१त भारतांत कच्चे लाखेचें उत्पादन २४,५६० टन जाल्यार १९७३ - ७४त १९,२५८ टन जालें.भारतांतले लाखेचो वापर वर्सुकी उत्पादनाच्या १० टक्क्यांमेरेन आसता. भारतांतल्यान अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां, ब्रिटन, जर्मनी, रशिया आनी चीन ह्या देशांनी

शेलॅकाची निर्यात जाता. १९८३ - ८४त १३.५८ कोटी रुपया मोलाच्या शेलॅकाची निर्यात जाली.

**लाखकाम :** लाखकामाक लॅकवर्क अशेंय म्हण्टात. लाखेचो वापर करून तयार केल्ल्या कलाकामाक लाखकाम अशें म्हण्टात. चीन हें लाखेचें मूळस्थान आसून जपान, कोरिया, इराण, भारत ह्या देशांनी तिचें उत्पादन जाता.

लाखेंत रंग भरसता देखून ती विविधरंगी जाता. चीनी मातयेच्या आयदनांभाशेन तिका चकचकीतपण हाडूं येता. लाखेच्या ह्या गुणांक लागून कोरीव काम, जडाव काम ह्या कामांखातीर तिचो उपेग जाता.

सुरवेक कोंड्याच्या पट्ट्यांचेर बरोवपाखातीर लाखेचो उपेग करताले. चाऊ घराण्यांत (इ.स.पू. १०२७ इ.स. २५६) काळे लाखेपसून तयार केल्ल्या आयदनांचो अन्नपदार्थ शिजोवपाखातीर वापरताले. ताचेउपरांत साम्राज्याच्या काळांतय (इ.स.प. २०२ ते ९ वो शेंकडो) लाखेचो उपेग जातालो.

भारत धरून परदेशांतय लाख काम प्रसिद्दीक पाविल्लें आसा. राजस्थानाचीं लाखेचीं कांकणां, काश्मीरांतलीं रत्नां, पाचू, माणीक, पुश्कराज, हरितमणी बसोवन केल्लीं कांकणां, मुदयो, काळयो वाळयो आनी गळसऱ्यो हांची खूब नामना आसा.

खरें भारतीय कलाकाम लाखेचें वलनकाम (टर्निंग वर्क) करून तयार जाता. सादें कलाकाम भारतांत सगळेकडेन जाता आसलें तरी चड करून पटणा, बीरभूम, मुर्शिदाबाद, बंगाल, आसाम, आग्रा, फतेपूर, लखनौ, मिर्झापूर, बनारस तशेंच पंजाब आनी तमीळनाडचो कांय भाग, अलवर, बिकानेर, जोधपूर, बेंगळूर, महाराष्ट्र हे चड नामनेचे. ह्या प्रकारांत दिव्यांचीं धांपणीं, पलंगांचे खांबे, पाळणी, वाटकुळयो डबयो आनी लेथीवयल्यो हेर वस्तू तयार जातात. पूण लाखेचें सगळयांत उत्कृश्ट काम पंजाब आनी गुजराताच्या कांय भागांनी जाता. तशेंच लाखेचे एकाचेर एक थर दिवन कोरीव काम आनी नमुन्याचें काम करतात. ह्या कामांत कला आनी धर्मीक प्रवृत्तीप्रमाण वेगळेपण आयिल्लें दिसता. घाशीव नक्षीकाम पद्दतीनय जायत्या रंगांचें नक्षीकाम करूं येता. हीं कामां होशियारपूर आनी जोधपूराक जातात. तशेंच कथलाचे पत्रे तापयले म्हणजे तांचेर दवरिल्ली लाख विरगळून तिचो रंग पत्र्याचेर चडटा. हे पत्रे रंगोवपाचें तंत्र भारतांत खूब पयलींपसून चालू आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**लाखेर :** एक रानटी जमात. हे जमातीचें खरें नांव मरा. लुशाई नांवाचे टोळीवाले तांकां लाखेर ह्या नांवान वळखतात. तांची वसती आसाम वाठारांतल्या लुशाई दोंगराळ जिल्ह्याच्या आग्नेय वाठारांत, चीनी दोंगुल्ल्यांच्या हका नांवाच्या पोटविभागांत आनी आराकान दोंगुल्ल्यांच्या उत्तर तोंकार दिश्टी पडटा. तांचीं चडशीं सगळीं लाखेर खेडीं कोलोडायन न्हंयेच्या वोल्तार वशिल्लीं आसात. हे जमातीच्या अभ्यासकांच्या मतान हे लोक उत्तरेकडल्यान ह्या वाठारांत आयले.

लाखेरांत टलाँगसई, झिडहुनंग, सबेऊ, हवथाई, लिअलई, आनी हैमा ह्यो पोटजाती आसात. ह्या पोटजातींनी राजकुळां, खानदानी कुळां आनी सामान्य कुळां अशीं कुळां आसात.

लाखेर ही झुजारी जमात. इंग्लीश लोक तांकां शेंडू म्हणून वळखताले. इंग्लिशांनी तांचो बंदोबस्त केलो. इ.स. १८९१ मेरेन ते शांत आशिल्ले. पूण फुडें तांणी परत बंडाळी करपाक सुरवात केली. निमाणें तांचेर पुलिस कारवाय करून ब्रिटिशांनी तांकां आपल्या शेकाखाल हाडले.

हे लोक कुडीन बळिश्ट आसून तांचो रंग काळपट आसता. तांचें नाक पसरट, गालाचीं हाडां वयर आयिल्लीं आनी दोळे तिरकस आसतात. हे लोक सदांच न्हायनात; हेर लोकांचो चडसो आदर सत्कार करिनात. तांच्यांत शिस्तय सारकी नासता. तांचे कपडे, पगड्यो दोन प्रकारांच्यो आसतात. एक सदां वापरपाचे आनी दुसरे परबेदिसा वापरपाचे. तांचें सदां न्हेसपाचें वस्त्र म्हळयार एक सलग लुगट आसता आनी तो तें पुडव्यावरी सगळया आंगाचेर वापरतात. दर एकट्याकडेन नक्षी काडिल्ली ल्हान पोती आसता. ते ती दाव्या खांदाक लायतात. तातूंत ते चिलिम, तंबाकू, फस्क आनी निकोटिनाचें उदक ह्यो वस्तू दवरतात. बायलो दादल्यांपरस चड कपडे वापरतात. त्यो चडशो गाड निळया रंगाचो नक्षी काडिल्लो घागरो घालतात आनी आंगांत जाकीट घालतात.

लाखेर बायलो मानेचेर केसांचो आंबाडो घालतात. णव वर्सांमेरेन चल्याचे केंस कापतात. ताचे उपरांत केंस कापल्यार त्या भुरग्याक खझंगपिना नांवाच्या बलिदानाच्या विधींत वांटो घेवंक मेळना.

लाखेर बायलो - दादले लखू नांवाची तोपी घालतात. ही तोपी कोंडो आनी सुकिल्लीं पानां हांचेपसून तयार करतात. टोळीमुखेल्याच्या घरच्यो चलयो लग्ना वेळार लखांग नांवाचें शिरस्त्राण वापरतात आनी तें आपल्यावांगड्या घोवागेर व्हरतात. पमटकेचो हार हो बायलांचो एक आवडीचो अलंकार. त्यो वेगवेगळया मणयांचे हार वापरतात. तेचपरी थंग्राहेऊ नांवाचीं लांकडाचीं कानांतलीं घालतात.

लाखेरांचीं घरां दोंगुल्लेचे देंवतेर आसतात. नवीं खेडीं वसयतना तो जागो शुभ काय अशुभ हाची ते खात्री करून घेतात. तेखातीर कांय जाणटे लोक दोन कोंबे घेवन नव्या जाग्यार वतात आनी त्या जाग्यार एक वयलेवटेन आनी दुसरो सकयले वटेन कोंडून दवरतात आनी तांचे मर्दी ते राती थंय न्हिदतात. वयल्या कोंब्यान पयलीं साद घालो आनी सकयले वटेनच्या कोंब्यान ताका साथ दिली जाल्यार तो जागो शुभ मानतात. नव्या जाग्यार ते नवी रांदन हाडटात. तांच्या मुखेल्याचें घर खेड्यामदीं आसता. खेड्याचेर कोणाचोय

हल्लो जाल्यार नायकाच्या घराक राखण मेळची ह्या हेतान ताचें घर मर्दी बांदतात. लारवेरांचीं घरां जमनीपसून तीन ते चार फूट उंचायेचेर आसतात. घरां बांदपाक जरी तांणी लांकूड आनी कोंडें हांचोय उपेग केलो तरी मोड सारकिल्ल्या अरिश्टांक तोंड दिवपाइतलीं तीं घटमूट आसतात. लारवेरांच्या घरांत कोंडे आनी वेत हांच्यो बुटयो, मातयेच्यो पराती, दुदयापसून तयार केल्ल्यो पळयो आनी विणपाचीं तेचपरी शेतांतलीं अस्त्रां इतलोच तांचो संवसार आसता.

शीत हें तांचें मुखेल अन्न आसून ते कंदमुळां, भाजयो तशेंच जायत्या जनावरांचें मांस खातात. ते एक प्रकारचे सोरोपय खातात. फिफारिया नांवाचें एक धवें सवणें तांकां खूब मानवता.

लारवेर लोक आपल्या देवाक खझंगपा (सगळयांचो बापूय) अशें म्हण्टात. तो मळबांत वा खिसांग नांवाच्या दोंगराचेर रावता असो तांचो समज आसा. खझंगपाचें दुसरें नांव पछपा आसून ताचो अर्थ जाण्टो असो जाता. हो देव मनशावरीच आसता आनी मनशाचे सगळे गूणधर्म तांच्यांत आसतात असो तांचो समज आसा. तेभायर ते झंग आनी ल्युराव्हिपा ह्या देवांक भजतात. जल्म, मरण, लग्न, पेरणी अशा प्रसंगांवेळार ते भुतांक बळी दितात. दुयेंत मनशाक वखद दिवचेपरस मंत्र-तंत्र चड करतात.

लारवेरांमदीं एकाच कुळांत लग्न जावंक शकता, तेचपरी एके बायलेक दोन घोवांपसून जाल्ल्या सवतीभावंडां मदींय लग्न जावंक शकतात. पूण आतेभयणीकडेन मात लग्न जायनात. तांचेभितर जरी चडशे प्रेमविवाह जाले तरी सादारणपणान चल्याचे आवय - बापूय लग्नां थारायतात. चल्याच्या आवय-बापायन चली सोदून काडली म्हण्टकच नात्यांतले एके बायलेक चलयेगेर धाडून तिचो बापूय चली दिवपाक तयार आसल्यार पळयता. तशें आसल्यार मध्यस्थाकडल्यान चलयेच्या आवय-बापायकडेन डाओ नांवाचें शस्त्र धाडटात. डाओ हें शुभ सपनाचें प्रतिक मानतात. डाओ घेतकच चलयेच्या आवय - बापायक बरें सपन पडल्यार ते चल्याचें स्थळ मान्य करतात. वायट सपन पडल्यार तें स्थळ न्हयकारतात.

लग्नाच्या पयल्या दिसा व्हंकलेच्या आनी न्हवऱ्याच्या घरा सोरो पियेवन लग्नाच्या विधीक सुरवात जाता. दोनय पक्ष आपआपल्या घरा दुकर कापतात आनी जित्या मांसाची अदलाबदल करतात. उपरांत व्हंकलपावणी न्हवऱ्यागेर येता. थंय न्हवरो - व्हंकलेक सोऱ्याच्या आयदनां कुशीक बसयतात. उपरांत एक मनीस सोऱ्याचो दोणो घेवन तातूंत केंसांत खोवपाचो गांच बुडयता आनी तो सोरो तांकां पियेवपाक दिता. ह्या विधीक टिपाणी अशें म्हण्टात. हो विधी कोंब्यान साद घालचे आदीं करपाचो आसता. तेमेरेन व्हंकलेक सोरो पियेंवक मेळना. हे कार्यावळी उपरांत व्हंकल - न्हवरो एकठांय सोरो पियेतात आनी सगळया लोकांमदीं भरसून नाचपांत - गावपांत वांटो घेतात. निमाणें व्हंकल बापायच्या घरा वता. लग्नाउपरांत उण्यांत उणो एक म्हयनो तरी न्हवरो - व्हंकलेक एकठांय रावंक मेळना.

हो सगळो विधी सोंपतकच एक व्हड मेजवानी आसता आनी ती सतत तीन दीस चलता.

तांचेभितर घटस्फोटाची चाल आसा. तेचपरी विधवेकय लग्न करूंक मेळटा. देर आनी विधवा भावज आसल्यार तांचें परत लग्न करूंक येता. तेचपरी मांवय आपले विधवा सुनेकडेन लग्न जावंक शकता. विधवेन देराकडे लग्न जायत जाल्यार तिच्या कुळारच्या मनशांनी मोल दिवचें पडटा. विधवेक भुरगीं नासत जाल्यार तिची आस्पत तिच्या धाकट्या देराक मेळटा.

तांचेमदीं मेल्ल्या मनशाक पुरतात. मेल्ल्या मनशाचो सोयरो मड्याक हून उदकान न्हाणोवन केंसांक तेल लावन उपरांत ताका कपडे घालता. मडें कोंड्याचे निसणीक बांदून ती निसण घरा फाटले वण्टीक तेंकून उबी दवरतात. मड्याचे तकलेर एक ल्हानशी फळी दवरून तीचेर शीत आनी उकडिल्लीं तांतयां दवरतात. मड्याच्या आल्म्याक जनावराच्या जिवांचो सांगात मेळचो देखून रातचीं जायतीं जनावरां मारतात आनी रातभर इश्टांवांगडा जागर करतात. मडें दोन वा तीन दीस घरांत दवरतात. तिनय दीस ताच्या तोंडांत सोरो, मांस आनी शीत घालतात. ते पुराय रातीं धोल वाजोवन जागरण करतात. मड्याचो आत्मो सुखान अथिरवीक म्हळयार सर्गांत वचचो हो ह्या विधीचो हेत आसता.

तांचो निमाणो संस्कार सदांच सांजवेळचो आसता. मडें मेल्ल्या मनशाच्या घरामुखार वा रस्त्यार पुरतात. ताका गाड निळया कोराचें लुगट गुठलायतात. गांवांतले तरणाटे फोंड मारतात आनी मडें फोंडांत दवरतात. मरणा उपरांतच्या संस्कारांत मेल्ल्याच्या मामाक बरेंच काम आसता. हे लोक मेल्ल्या मनशाचें यादस्तीक बांदतात. यादस्तीक बांदीसर थंय जेवण दवरतात. तेचपरी थंय खांदयो आशिल्लो खूंट पुरतात. ते खांदयेर ऊंस, लिंबू आनी हेर फळां लोंबकळायतात. तेचपरी निकोटिनाच्या उदकान भरिल्लो एक दुदी थंय दवरतात. ह्या खुंटा शेजाराच आनीक एक खूंट पुरून ताचेर मड्याखातीर मारिल्ल्या जनावरांच्यो तकल्यो दवरतात.

टोळीमुखेल्याक मरण आयल्यार पुराय गांवाक तीन म्हयने सुतक पाळचें पडटा. ह्या काळांत मेल्ल्या मनशाचे सोयरे न्हायनात वा केंसांक तेलूय लायनात.

हे लोक झूम पद्दतीन शेतवड करतात. ही शेतवड एका जाग्यार एकच वर्स करतात आनी सात - आठ वर्सां ती सुवात पडींग दवरतात. शेताक जागो पळोवचे पयलीं शकून - अपशकून पळयतात. शेतांत तांदूळ, कापूस, मको, कड्डुण, भाजीपालो हीं पिकां काडटात. तेभायर वीणकाम, वेतकाम, कोंड्यांचीं कामां, नुस्तेमारी हे वेवसाय करतात. तांच्यो बायलो वीणकाम आनी लुगटां रंगोवपाचें काम करतात. हे लोक शिकारय करतात. तांणी वागाची शिकार केल्यार

ते चाकेइ ह्या नांवाचो विधी करतात. हो विधी दुस्मानाच्या तकल्यांची पुजा करपासारकोच आसता. ही पुजा केली ना जाल्यार वाग पिडा पातळायता असो तांचो समज आसा.

गाय, दुकर, सुणीं, मिथुन, कुकडां आनी पारवे ह्या जनावरांक ते पोसतात. हातूंत मिथुन हें सगळयांत म्हत्वाचें जनावर. लग्नांत चलयेचें मोल ते मिथुनांत दितात. तांच्या दुदाचो मात ते उपेग करीनात. ते तांदळापसून सहम नांवाचो सोरो तयार करतात. मिथुनाच्या शिंगापसून ते सोऱ्याचे पेले तयार करतात. हे पेले टोळीमुखेली आनी खानदानी लाखेरीच वापरतात. सामान्य लोक सोरो पियेवपाखातीर कोंडयाच्या नळयांचो उपेग करतात.तांच्यो बायलो - दादले निकोटिनाचें उदक पियेतात. आधुनिक काळांत, येरादारीच्या संपर्काखर्वी, सगळयाच आदिवासी जाती - जमातींचो कायापलट जावंक लागला. पारंपारीक चालीरिती सदळ जावंक लागल्या. आधुनिक समाजाची वाटचाल विज्ञानीक दिकेन जावंक लागल्या. हे वाटचालींत बरेंच कितें पोरणें शेणूंक लागलां आनी नवें घेवप जावंक लागलां. लाखेर जमातय ह्या बदलाक आडवाद उरूंक ना.

- कों. वि. सं. मं.

**लाखेरी :** लाखेचो धंदो करपी एक जात. ताचें मूळस्थान मारवाडाक आसून थंय ताका लाखेरा अशें म्हण्टात. सद्या तांचो राबितो महाराष्ट्र, मध्य प्रदेश, गुजरात ह्या वाठारांत आसा. हे लोक आपल्याक राजपूत आनी कायस्थ म्हण्टात. तांचीं कुळनांवां मोनजात, सुकणीं आनी झाडां हांचेवयल्यान पडिल्लीं आसता. तांचेभितर पोटफांटो ना, ते स्मार्थ आसून बालाजी, भवानी, गणपती आनी राम ह्या देवांक भजतात.

मारवाडांतल्या लाखेरांमदीं हिंदू आनी मुसलमान ह्या दोनय धर्मांचे लोक आसात. लाखेर बायलो फकत लाखेचीं कांकणां घालतात. मुसलमान लाखेरा आदीं राजपूत आशिल्ले. सद्या ते सुन्नी पंथाचे आसात.

लाखेचीं कांकणां करप हो तांचो मुखेल वेवसाय. तांचेमदीं झाडाचेर लाख लावपाचो एक स्वतंत्र विधी आसता. तो चड करून आश्विन म्हयन्यांत करतात. लाखेरी मनीस रातचो नागडे अवस्थेंत एका दोण्यांत लाखेचे किटक घेवन ते एका झाडार लायता. उपरांत त्या झाडाक वंय घालून त्या झाडाक कोणाकच हात लावंक दिना. कोणाय विधवेक लाख लावपाची आसल्यार ती आपल्या चल्याक हाण्डीर घेवन तो दोणो ताच्या माथ्यार दवरता आनी बडयेन ते किटक झाडाक लायंता. पांय रंगोवपाखातीर हे लोक लाखेंत भिजयल्लो कापूस विकतात. ह्या कापसाक माहुरकी गुलेली अशें म्हण्टात. तेभायर दोरे, राखयो विकपाचे धंदेय ते करतात.

तांच्यात सुयेर वा सटयेची पुजा करिनात. भुरगें जल्मले उपरांत णवव्या दिसापसून तेराव्या दिसामेरेन ते केन्नाय ताका नांव दवरतात.

लाखेरी लोक मडें लासतात. उपरांत बारा दीस सुतक पाळटात. बाराव्या दिसा उदकान भरिल्ले बारा कळशे मुखावयल्या दारांत दवरून तांची पुजा करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**लागरलव्ह, सेल्मा :** (जल्म : २० नोव्हेंबर १८५८, मोर्बाका, व्हेर्मलांड, स्विडन; मरण : १६ मार्च १९४०, मोर्बाका).

स्विडनी लेखिका. भुरगेपणांत तिच्या पांयांत अपंगूळपण आयिल्लें. उपरांत ती बरी जाली. पूण सुरवातीचें शिक्षण तिका घरचे घराच घेवंचें पडलें. उपरांत स्टॉकहोमांत तिणें अध्यापिका जावपाचे नदरेन शिक्षण घेतलें आनी ते उपरांत ती लांतस्क्रूनाक एके शाळेची मुख्याध्यापिका म्हणून काम करूंक लागली.

गोश्ता बेर्लिंग्ज सागा (२ खंड, १८९१, इं. अ. द स्टोरी ऑफ गोश्ता बेर्लिंग, १९१८) ही तिची पयली कादंबरी. ते उपरांत 'इनव्हिजिबल लिंक्स' (१८९९, इं.शी.), द मिरेकल्स ऑफ अँटी क्रायस्ट (१८९७, इं.अ. १८९९), जेरूसलेम (२ खंड, १९०१ - ०२, इं.अ. १९१५) ह्यो कादंबऱ्यो उजवाडा आयल्यो. जेरूसलेम ही कादंबरी उजवाडा येनाफुडें तिका खूब नामना मेळ्ळी. पयल्या म्हाझुजा उपरांतच्या काळांत तिणें द - रिंग ऑफ द लोवेनस्कोल्ड्स (१९२५, इं.अ. १९३१); शार्लट लोवेनस्कोल्ड (१९२५) आनी ॲना स्व्हार्ड (१९२८) ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यो. द वंडरफुल ॲडव्हॅंचर्स ऑफ निल्स (१९०६-०७) आनी फर्दर ॲडव्हॅंचर्स ऑफ निल्स (१९११, इं. शी.) हीं भुगोलाचीं पुस्तकां तिणें भुरग्यांखातीर बरयलीं.

साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार दिवन (१९०९) तिचे साहित्यसेवेचो संवसारीक पांवडयार भोवमान जालो. हो पुरस्कार मेळोवपी ती पयली स्विडनी व्यक्ती. १९१४ वर्सा स्वीडिश अकादेमीचें वांगडीपण तिका मेळ्ळें. हो मान मेळोवपी ती पयली स्विडनी बायल.

- कों. वि. सं. मं.

**लाटयायन ब्राह्मण :** ब्राह्मणांतलो एक पोटभेद. ह्या ब्राह्मणांक लाड ब्राह्मण अशेंय म्हण्टात. लाड हें उतर लाटपसून जाल्लें आसा आनी लाट हें उतर लाटयायन ह्या उतराचो अपभ्रंश. सामवेदाच्या राणायणी फांटयाचें लाटयायन नांवाचें एक सूत्र आसा. ह्या राणायणी फांटयाचो अभ्यास करपी ब्राह्मणाक लाटयायन हें सूत्रवाचक नांव पडलें. काळांतरान लाटयायनाचें लाट इतलेंच नांव अस्तित्वांत आयलें.

इ.स. ७१२त महंमद कासीमान सिंधाचेर घुरी घाली आनी तो वाठार जिखलो. सिंधाभाशेन गुजराताचेरय मुसलमानांच्यो घुरयो पडटल्यो ह्या भंयान थंयचे जायते लोक महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी

पांड्य (तमीळनाडू) ह्या देशांनी वचून रावले. सावकारी करपी लाड ब्राह्मणांवांगडा हेर जायत्या जातींचे लोक लाट देशांतल्यान भायर सरले. लाड पानारी (पान मळयाचो धंदो करपी), लाड शेट, लाड क्षत्रिय, लाड चव्हाण, लाड वैश्य, लाड साळी, लाड मराठे, लाड वंजारी, लाड कलाल, लाड तेली, लाड दस्सा, लाड सुलेमानी मुसलमान कसाब, लाड गौड सारस्वत ब्राह्मण हे तांचेमदले कांय लोक.

लाड गौड सारस्वत ब्राह्मण हे महाराष्ट्रांत जायते शेंकडे रावतात. तांची भास, कपडे, लग्नपद्दत सारकिल्ल्यो सगळयो गजाली तांणी महाराष्ट्रीयांकडच्यानच घेतल्यात.

लाड ब्राह्मणांनी लाट देशांतल्यान येवन धाराशिव (उस्मानाबाद) ह्या गांवांत वसती केली. तांचेमदले कांय लोक तमिळनाडू वा कर्नाटक ह्या प्रदेशांत गेले. कर्नाटकांत गेल्ल्या लोकांमदलीं कांय घराणीं आतां बेंगळूरांत आसात.

धाराशिवाक लाड ब्राह्मण सुमार दोनशीं वर्सां रावले. हे लोक खूब गिरेस्त आशिल्ले. तांच्यो बायलोय सोबीत आशिल्ल्यो. धाराशिवच्या राजाची तांचेमदले एके सोबीत बायलेचेर नदर आशिल्ली. पूण ताची इत्सा पूर्ण जालिना देखून ताणें ह्या लोकांक खूब त्रास दिवपाक सुरवात केली. तांचो पैसोय ताणें जप्त केलो. राजाच्या ह्या जाचाक वाजेवन ह्या लोकांनी देशत्याग केलो. इ.स. १०५८त ते फत्तेखेर्डाक वचून रावले. थंय सत्पुरूश श्रीपळ सिध्देश्वरमहाराज हाचें वास्तव्य आशिल्लें. मागीर थंयच्यान हे लोक वऱ्हाड, नागपूर, खानदेश ह्या भागांत पातळ्ळे. तांचेवांगडा शेंकड्यान शेंकड्यांचे उपाध्याय गौड गुर्जर ब्राह्मणय आशिल्ले. गुर्जर ब्राह्मण तांचीं सगळीं धर्मीक कामां वैदिक सूत्रोक्त पद्दतीन करताले.

लाड ब्राह्मणांचो मूज करपाचो संस्कार मदीं बंद पडलो. तांची धर्मीक कामां वैदिक सूत्रोक्त पद्दतीन जावपाचीं सोडून पुराणीक पद्दतीन जावपाक लागलीं. अखेरेक लाड ब्राह्मण आपलें ब्राह्मण्यत्वच विसरले. ताचीं कारणां अशीं -

पयलें म्हणजे, लाड ब्राह्मणांनी महाराष्ट्रांत आयले उपरांत आपले पयलींचे सावकारी आनी वेपार हे वेवसाय चालूच दवरले. तातूंत तांकां जायती संपत्ती मेळ्ळी. ही वैश्यांची वृत्ती आपणावन संपत्ती मेळोवपाक ते भुल्लसले, जाका लागून मुळांत आपण ब्राह्मण आसात हें ते विसरले.

दुसरें म्हणजे, मुसलमानांच्या त्रासांक लागून विदर्भांतल्या लाड ब्राह्मणांचेर बाटून मुसलमान जावपाचो प्रसंग आयलो. पूण सुदैवान तांचीं फकत जानवींच काडून घेतलीं. इ.स. १७२४त निजाम आनी मोगल हांचेमदीं झूज जालें आनी वऱ्हाड प्रांत निजामाच्या ताब्यांत गेलो. तेउपरांत थंय मुसलमानांचे त्रास, बळजबरी सुरू जाली.

तिसरें म्हणजे, लाड ब्राह्मणांनी आपले वांगडा हाडिल्ल्या गौड गुर्जर उपाध्यायांचें अनुदारपण. मुसलमानांनी बळजबरीन तांचीं जानवीं काडून घेतलीं तरीय गौड गुर्जर ब्राह्मणांक परत तांची मुज बांदून, वैदिक सूत्रोक्त पद्धतीन तांचीं धर्मकृत्यां करपाक कांयच आडमेळ्ळीं नाशिल्लीं. कारण वेदांचो अधिकार ब्राह्मण, क्षत्रिय आनी वैश्य ह्या तिगांकच आसा. पूण महाराष्ट्रांतल्या ब्राह्मणांनी वेदांचो अधिकार फकत ब्राह्मणांकच आसा असो गैरसमज पातळायलो. गौड गुर्जर ब्राह्मण ताका बळी पडले. ताकालागून तांणी लाड ब्राह्मणांचीं धर्मीक कृत्यां पुराणीक पद्धतीन करपाक सुरवात केली.

लाड ब्राह्मणांचो हो विस्मृतीचो काळ सारको खंयचो तें सांगपाक जायना. पूण इ.स.च्या १९व्या शेंकड्याचे अखेरेक हांचेमदल्या कांय लोकांक आत्मसंशोधनाची इत्सा जाली आनी तांणी आपल्या समाजाची म्हायती एकठांय करपाक सुरवात केली. विदर्भांतल्या मलकापूरच्या कांय लोकांक आनी विष्णु मोतीराम देऊळगांवकर हाका आपल्या ब्राह्मणत्वाची जाण आयली आनी ताणें ती आपले जातीच्या लोकांक पटोवन दिली.

ताचे उपरांत १९२६ च्या मे म्हयन्यांत मेहकर ह्या गांवांत ह्या लोकांची बसका जाली आनी ते बसकेंत दक्षिणी ब्राह्मणांक वेदोक्त पद्धतीन तांचे संस्कार आनी धर्मकर्मां करचीं म्हणून मागणी जाली. तेप्रमाण फत्तेखेर्डाच्या गुर्जर गौड ब्राह्मणांनी ही मागणी मान्य केली आनी तशे ते रावपाक लागले.

- कों. वि. सं. मं.

**लाठ :** बांय वा व्हाोंडको हातुंतलें उदक उसपुपाचें एक पारंपरीक, गांवगिरें साधन. कुळागर वा तत्सम बागायतीक उण्या श्रमान आनी उण्या वेळान उदक शिंपपाक उपेगी पडपी हें साधन. जंय उदक मेळपाची शक्यताय आसा थंय बांय वा व्हाोंडको खणटात. ताचे देगेर ही लाठ बसयतात. एके उबे म्हेडीर एक आडवी दांडी अशे तरेन बसयतात की, ती ते म्हेडीचेर समतोलपण राखून वयर सकयल सहजतायेन घोळूंक शकता. हे दांडयेच्या बांयच्या काठाभायर उरपी तोंकाचेर थरावीक वजनाचो फातर वा तत्सम वस्तू बांदतात. जाल्यार दुसऱ्या तोंकाक कोंडो वा राजू बांदून ताच्या दुसऱ्या पोंताक उदक भरपाचें आयदन कोळंब वा पत्रो / प्लास्टिकचो डबो, चामड्याची पिशवी बांदतात. बांयच्या काठार एक लांकडी वा लोखणी पाटी दवरतात. हे पाटयेर उबो रावन लाट चलोवपी मनीस राजू वा कोंडो ओडून आयदन बायच्या उदकांत बुडयता. तें बुडल्या उपरांत आनी मनशान भार सोडल्या उपरांत दांडयेच्या दुसऱ्या तोंकाक आशिल्ल्या वजनाक लागून उदकान भरिल्लें आयदन आपसुकीच वयर सरता आनी बांयच्या कांठार तयार केल्ले ल्हानशे टांकयेंत रखता. थंयसावन तें फुडें पाटामदल्यान बागायतीक पावता. आयदन रितें जालें की,

परतून उदक भरपारवातीर लाठ मनशाकडल्यान बायच्या उदकांत दामप जाता आनी उदक उसपुपाची प्रक्रिया चालू उरता.

आधुनिक काळांत उदक उसपुपाचे पंप यंत्रणेक लागून लाठ हें साधन वापरांतल्यान उणें जावंक लागलां. कांय मागाशिल्ल्या सुवार्तींनी लाट हें साधन अजुनय वापरांत आसा.

- कों . वि. सं. मं.

पूरक नोंद : राट

**लाठी :** एक व्यायामसाधन. स्वताची राखण जावंची आनी दुस्मानाचेर हल्लो करचो हे मुळावे गरजेंतल्यान लाठी (बडी) घुंवडावपाचे कल्पनेचो उगम जालो. स्वताचें सामर्थ्य दाखोवपाचें साधन म्हणून लाठीक म्हत्व आसा.

पुर्विल्ल्या काळांत बचाव वा हल्लो हांचेरवातीर झाडाचे खांदयेचो उपेग करताले. तातुंतल्यानच फुडें लाठी म्हळयार बडयेचो वापर करूंक लागले. बडयेचें रुपांतर फुडें लाठयेंत जालें. 'लठ' म्हळयार लाठी. हो लठ मोटो, जड आनी तकलेपरस एक हात ऊंच आसता. लाठयेची उंचाय सुमार ५ - ५ १/२ फूट (१.५२ ते १.६७ मी.) आसता. ती सादारण कानाचे पाळयेमेरेन आसूंक जाय असो नेम आसा. लाठी कोंड्यापसून वा वेतापसून तयार करतात.

लाठी कशी धरची, कशी घुंवडावची हे नदरेन तिचे पवित्रे आनी हात बसयल्ले आसात. लाठी घुंवडायतना मोटी वट लाठयेचे फुडले वटेन धरून घुंवडायतात, जाल्यार मदीं धरून घुंवडावपाची चाल आसा. लाठेवरवीं हल्लो आनी बचाव एकाच वांगडा करूं येता. लाठी आंगाभोंवतणीं, थांबयनासतना गरगर घुंवडावन एकांतल्यान एक अशीं वाटकुळां निर्माण करपांत खरी कुशळताय आसता. जंगमो, बगलमो अशीं वाटकुळां आसतात. सादी आनी उरफाटी ह्या दोन मुलभूत प्रकारांचेर लाठयेचे सत्तावीस हात (पवित्रे) बसयल्ले आसात. हल्लो करतना तिचो वार प्रतिपक्षाच्या वेगवेगळया अवयवांक लागतले अशे शिटूकसाणीन लाठयेचे हात करूंक येतात.

वीरवृत्ती निर्माण करप, प्रतिकारशक्ती वाडोवप, शिटूकसाण आनी कुशळताय वाडोवप हेरवातीर लाठयेचो उपेग करतात. भारतीय बलोपासनेंत लाठयेक उंचेली सुवात आसा. जड लाठी, वजनदार लाठी, लांब लाठी, (लठ), कसरत अशे लाठयेच्या व्यायामाचे प्रकार आसात. स्विडनी व्यायामपद्धतींत सांघीक लाठयेक म्हत्व आसा. लाठी-लडाय हो एक म्हत्वाचो प्रकार आसून तो प्रतिस्पर्ध्याक हारोवपाक उपेगी पडटा. लाठी - लडाय आनी लाठी-बंदेश हांचो प्रत्यक्षांत उपेग जाता, जाल्यार सांघिक लाठयेचो फकत प्रात्यक्षिक म्हणून उपेग जाता.

अखिल महाराष्ट्र शारिरीक शिक्षण मंडळान लाठी आनी फरीगदका छूट ह्या मर्दानी खेळाचे नेम तयार करून ताका अधिकृत रूप दिलां. हालींच्या काळांत व्यायामाच्या ह्या उपेगी प्रकाराचें म्हत्व उणें जाल्लें दिसता. पूण शासकीय सेवेंत लाठयेचो आजय उपेग जाता. पुलिसांच्या हातांत लाठी दिवप जाता आनी तिचो वापर एक हत्यार म्हणून जाता. मारामारी मोडून काडप वा शांतताय प्रस्थापित करप हे नदरेन लाठयेचो आयजय उपेग करतना दिसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**लाड, पुरूषोत्तम मंगेश :** (जल्म : २१ मार्च १९०५, वागाळी - बारदेस; मरण : मार्च १९५७, मुंबय).

संत साहित्याचो अभ्यासक. ताचें मुळावें शिक्षण आजोळा सावंतवाडी गांवांत जालें. १९२२ त तो मॅट्रिकेचे परिक्षेंत पयलो आयलो. ताका जायतीं इनामां आनी शिश्यवृत्त्यो मेळळयो. मराठीवरी संस्कृतांतय तो पंडीत आशिल्लो. फुडें एल्फिन्स्टन कॉलेजींत तो इंटर आर्टसाचे परिक्षेक पयलो आयलो. तशेंच, ताका संस्कृतांतली सर जीवनदास माधवदास ही शिश्यवृत्ती मेळळी. बी.ए.क ताणें संस्कृत विशय सोडून अर्थशास्त्र आनी इतिहास हे विशय घेतले आनी ह्या दोनय विशयांनी तो पयलो आयलो.

तेउपरांत टाटा एंडावमेंट निधिन दिल्ली शिश्यवृत्ती घेवन तो लंडनाक गेलो. थंय कँब्रीज विद्यापिठांत अर्थशास्त्र हो विशय घेवन १९२७त ट्रायपसच्या पयल्या विभागाचे परिक्षेंत तो पयलो आयलो. दुसऱ्या वर्सा तो दुसऱ्या विभागाची परिक्षा दिवन अर्थशास्त्रज्ञ जालो. ह्याच वर्सा ताणें आय.सी.एस्. ही परिक्षा दिली आनी तातूंत बरे तरेन पास जावन तो भारतांत आयलो.

भारतांत ताका असिस्टंट कलेक्टर म्हणून सुरत आनी पंचमहालांत नोकरी मेळळी. फुडें अहमदनगर, धुळे, रत्नागिरी, ठाणें, बेळगांव, पुणें ह्या सुवातींचेर सत्र न्यायाधीश म्हणून ताची नेमणूक जाली. ह्या काळांत ताणें सरकारी अधिकारी आसुनय जनतेंत मेळून मिसळून आपले निगर्वी आनी सादे, सोज्वळ वागणुकेन खूब नामना जोडली. ४२ चे भारत छोडो चळवळींत ताणें कायद्यांत कसलीच कसर दवरिनासतना सत्याग्रहींवटेन न्याय दिलो. तेरवातीर ताणें आपल्या वयल्या अधिकाऱ्यांकडल्यान कांयकडेन वायटपण घेतलें.

१९३७ वर्सा सुटी घेवन तो विलायतेक गेलो आनी बॅरिस्टर जालो. तशेंच 'हिंदू लॉ' ह्या विशयांत तो सगळयांत पयलो आयलो. तेन्ना कायद्याच्या ताच्या ह्या गिन्यानाक लागून रोखडोच मुंबय सरकाराचो सचिव आनी लिगल रिमेंब्रन्सर म्हणून ताची नेमणूक जाली. कांय काळ चीफ सेक्रेटरी म्हणूनय ताणें काम केलें. फुडें केंद्र सरकारांत डॉ. बाळकृष्ण केसकर हो नभोवाणी आनी म्हायती मंत्री आसतना ताणें लाडाक व्हरून आपल्या खात्याचें सचिवपद दिलें. तेन्ना ताणें डॉ. केसकराच्या पालवान आकाशवाणीच्या कार्यावळींत खुबूच सुदारणा घडोवन हाडल्यो. कोंकणी विभागाची सुरवात ह्याच

काळांत जाली. आकाशवाणीवयल्या कार्यावळींक साहित्यीक स्पर्श जावंचो ह्या हेतान ताणें प्रादेशिक सल्लागार मंडळाची नेमणूक केली.

ताच्या साहित्यीक वावराक खऱ्या अर्थान सुरवात जाली ती विलायतेसावन परत येतकच. 'प्रतिभा' ह्या त्या वेळच्या नामनेच्या पंद्रशी नेमाळ्यांत ताणें 'चिकित्सक एम्.ए.' ह्या टोपणनांवान पुस्तक परिक्षणां करीत साहित्याविशींचे स्फूट लेख बरोवंक सुरवात केली. ताणें बरयल्लो स लेखांचो संग्रह 'कृत्तिका' ह्या नांवान उजवाडाक आयला. ताणें बरयल्ल्या कवितांचो संग्रह 'मधुपर्क' ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. पूण साहित्य मळावयलो ताचो म्हत्वाचो वावर म्हळयार संत तुकारामाचे गाथेचें संशोधन, तेचपरी चिकित्सक पद्दतीन आनी सगळे इतिहासीक पुरावे सोदून तांचें मुल्यमापन करून बरयल्लें संत तुकारामाचें चरित्र. पूण ह्या चरित्राचीं फक्त पयलीं १४ प्रकरणां ताणें बरयल्लीं आनी तीं छापुनय आयिल्लीं. उपरांत भलायकी इबाडिल्ली आसतनाय ताणें सोळावें प्रकरण बरयलें. तरी तुकाराम चरित्राचो संकल्प पुराय जावंचे आदींच पिरायेच्या ५२ व्या वर्सा मेंदवाच्या विकारान ताका मरण आयलें. केंद्रिय साहित्य अकादमीन कालिदासाचे पुराय म्हायतीचो इंग्लीश अणकार करपाची कामगीरी ताचेर सोंपयल्ली. तेंय काम पुराय जावंक शकलेंना. तुकाराम चरित्राचें १५वें प्रकरण भात प्रा. प्रियोळकार हाणें मराठी संशोधन पत्रिकेंत उजवाडाक हाडलें.

लाडाच्या नांवान आकाशवाणीचेर दर वर्सा एक व्याख्यानमाला जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**लाड, भाऊ दाजी :** (जल्म : १८२२ मांद्रें - पेडणे; मरण : ३१ मे १८७४ मुंबय).

एक प्राचविद्या पंडीत, समाजसेवक आनी वैजकी जाणकार.



ताचें पुराय नांव रामकृष्ण विठ्ठल लाड. इश्टांमदीं ताका भाऊ ह्या नांवान पाचारताले आनी ताच्या बापायक दाजी म्हण्टाले. ताका लागून फुडें ताचें भाऊ दाजी हेंच नांव रूढ जालें. ताचो बापूय पार्शे गांवांत शेती आनी कारकुनाचें काम करतालो. पूण मागीर वेवसायानिमतान लाड घराणें मुंबय गेलें (१८३२). थंय विठ्ठलराव मातयेच्यो बावल्यो करून विकतालो.

भाऊ दाजींचें मुळावें शिक्षण नारायण शास्त्री पुराणिकाचे मराठी शाळेंत जालें. मागीर ताणें एल्फिन्स्टन विद्यालय आनी कॉलेजींतल्यान उंचेलें शिक्षण घेतलें. तशेंच ताणें संस्कृताचोय अभ्यास खासगी रितीन केलो. फुडें ताची एल्फिन्स्टन विद्यालयांत शिक्षक म्हणून नेमणूक जाली (१९४३). ह्याच अदमासाक ताचें पार्वतीबाई नांवाचे चलयेवांगडा लग्न जालें.

भाऊन कच्छ, काठेवाड ह्या गुजराताच्या विभागांतल्या बालकन्या हत्त्येचे प्रथेचेर इंग्लीश आनी गुजराती अशा दोनय भाशांनी एक निबंद बरयलो. ताच्या ह्या निबंदाक ६०० रुपयांचो पुरस्कार मेळ्ळो आनी ताच्या चिकित्सक अभ्यासू संशोधनवृत्तीकय चालना मेळ्ळी. उपरांत ताणें ग्रांट मेडिकल कॉलेजीची फॅरिश शिश्यवृत्ती मेळयली आनी वैजकीशास्त्रांत पदवी घेतली (१८५१). कॉलेजींत आसतना ताणें ग्रंथपालाचेंय काम केलें. तशेंच ताणें वैजकी वेवसायय सुरू केलो. कुश्ठरोगाचेर ताणें खष्ठ नांवाचेंय वनस्पतीच्या बियांपसून तयार केल्लें एक देशी वखद सोदून काडलें.

तो बॉंबे ॲसोसिएशनाचो सचीव आशिल्लो. दादाभाई नौरोजीन इंग्लंडांत काडिल्ल्या इंडिया ॲसोसिएशन नांवाच्या मुंबय फांट्याचो भाऊ अध्यक्ष आशिल्लो. समाजीक सुदारणेवांगडाच ताणें उद्देगीक सुदारणेकडेनय लक्ष दिलें. मुंबयंत कागद आनी कापूस हांच्यो गिरणी उभारपांत ताणें फुडाकार घेतलो. १८५४त तो वॅस्टर्न इंडियन कॅनल अँड इर्रिगेशन हे कंपनीचो संचालक जालो.

बायलांक शिक्षण दिवपी स्टुडंट्स लिटररी अँड सायंटिफीक सोसायटी हे संस्थेचो तो पयलो भारतीय अध्यक्ष आशिल्लो (१८६३ - ७३). बायलांक शिक्षण मेळचें म्हणून ताणें आपले पयशे खर्च केले. विधवांच्या लग्नांचे चळवळीकय ताणें फाटबळ दिलें. लोहार चाळींतले कन्याशाळेक तो अर्थीक आदार दितालो, देखून ते शाळेक 'भाऊ दाजी गर्ल्स स्कूल' हें नांव दिलें. अंधश्रध्दा आनी जातीवेवस्थेचो तो विरोधक आशिल्लो. ताचो भौशिक वावर पळोवन सरकारान मुंबयच्या शेरीफ पदाचेर ताची नेमणूक केली (१८६४ - ६९).

वनस्पत आनी पुर्विल्लो इतिहास हांच्या संशोधनांत ताणें खाशेलें लक्ष घालें. राणीची बाग (जिजामाता उद्यान), आल्बर्ट म्युझियम, नेटिव्ह जनरल लायब्ररी, पेटीट इन्स्टिटयूट सारकिल्ल्या संस्थांच्या वावराक ताचेकडल्यान योगदान घडलां.

ताचें यादस्तीक अशें ताच्या नांवाचें वस्तुसंग्रहालय जिजामाता उद्यानांत उबारलां. भाऊन भारतभर भोंवडी करून हस्तलिखितां, शिलालेखांचे ठशे, दुर्मीळ चित्रां, नाणीं, ताम्रपट, शस्त्रां सारकिल्ल्या वस्तूंचो संग्रह केला. मुंबयच्या रॉयल एशियाटिक सोसायटीचो तो वांगडी आशिल्लो आनी मागीर तो उपाध्यक्ष जालो. वेगवेगळ्या परिशदानीय ताणें प्राच्यविद्येच्या संदर्भांत जायते सोद निबंद सादर केले. भाऊच्या मरणाउपरांत रामचंद्र घोष हाणें द लिटररी रिमेन्स ऑफ भाऊ दाजी ह्या माथाळ्याखाला ताचे संशोधनात्मक सोदनिबंद प्रसिद्द केले. तशेंच रायटिंग्स अँड स्पिचीस ऑफ डॉ. भाऊ दाजी ह्या

माथाळयान त्र्यं. गो. माईणकर हाणें ताचें सगळें बरवप संपादीत करून प्रसिद्द केलें (१९७४). भाऊचे यादीक संस्कृत विशयांत बी.ए.क पयलो येवपी विद्यार्थ्याक भाऊ दाजी हो पुरस्कार दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**लाड, समशेर जंगबहाद्दर (लखबादादा) :** (जल्म : ? पार्से पेडणे; मरण : २७ जानेवारी १८०३ मेवाड).

लखबादादाचें शिक्षण घरचे घराच जालें. मराठीवांगडा संस्कृताचेंय शिक्षण ताणें पुराय केलें. ताच्या घरांत पोथी वाचपाची पद्दत आशिल्ली. रामायण - महाभारतांतल्यो कथा आनी तातुंतल्लीं झुजाचीं वर्णनां आयकून तो प्रभावीत जातालो. आपणेंय असोच पराक्रम करचो अशें ताका दिसतालें. गोंयांत ताची ही इत्सा पुराय जावप शक्य नाशिल्लें. उत्तर हिंदुस्थानांत लाड घराण्यांतले बरेचशे जाण लश्करांत आशिल्ले. देखून ताणें थंय वचपाचो निर्णय घेतलो. अखेरेक एक दीस तो घरांतल्यान भायर सरलो आनी सरळ उज्जैनाक गेलो. थंय महादजी शिंद्येचो एक सरदार बाळोबा तात्या पागनीस हाचेकडेन तो कारकून म्हणून रावलो आनी कारकुनी करता आसतनाच ताणें लश्करी शिक्षण घेतलें.

लखबादादाच्या कामाचेर पागनीस खोशी आसतालो. एक दीस शिंदयान बडटी दिवन ताका दुसरेकडेन धाडलो. तेन्ना बाळोबा तात्यान पागनिशीच्या कामाखातीर लखबादादाची शिफारस केली आनी शिंदे सरकारान ताका पागनिशी दिली.

पागनीस आसतना लखबादादान बरें काम केलें. शिंद्याच्यो ७२ पागो ताणें नव्योताल्ल केल्यो. ताणें जें लश्करी शिक्षण घेतिल्लें ताचो ताका ह्या कामाक बरोच उपेग जालो. ताचे उपरांत शिंदे सरकारान ताका सरदारकी दिली आनी तोफखान्याचेर ताची नेमणूक केली. ह्या हुद्द्यार आसतना लखबादादान तोफखान्याचो दर्जो वाडयलो.

इ.स. १७८४त दिल्लीचो कारभार महादजी शिंदे हाचेकडेन आयलो. तेन्ना ताणें लखबादादाक आगऱ्याचो सुभेदार म्हणून नेमलो. हे सुवातेर आसतना इस्मायल बेग आनी गुलाम कादीर ह्या दोन मुसलमान सरदारांनी आगऱ्याच्या किल्ल्याक रेवाडो घालो. त्यावेळार मोटे हुशारकायेन लखबादादन हो रेवाडो मोडून उडयलो. आग्र्याचो हो रेवाडो इतिहासांत प्रसिद्द आसून लखबादादाचे त्यावेळचे हुशारकायेची तुस्त जाल्ली आसा. ताचेउपरांत ताका मेवाड प्रांताची सरसुभेदारी दिली. थंय ताणें वेवस्थीत कारभार चलयलो आनी जायत्या लडायांनीय वांटो घेतलो.

- कों. वि. सं. मं.

**लाफाँतेन, आंरी - मरी :** (जल्म : २२ एप्रिल १८५४, ब्रूसेल्स; मरण : १४ मे १९४३, ब्रुसेल्स).

बेल्जियम संसदपटू. आंतरराश्ट्रीय कायद्याचो नामनेचो विधिज्ञ आनी संवसारीक शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो मानकरी.

ब्रुसेल्स विद्यापिठांतल्यान कायद्याची पदवी घेवन - १८७७ वर्सा ताणें वकिलीक सुरवात केली. ह्या वेवसायांत ताका खूब नामना आनी पयसो मेळ्ळो.

१८९३ वर्सा ताची ब्रुसेल्स विद्यापिठांत आंतरराश्ट्रीय विधीचो प्राध्यापक म्हणून नेमणूक जाली. दोन वर्सांउपरांत तो समाजवादी पक्षावतीन सिनेटाचेर वेंचून आयलो (१८९५). फुडें १९१९ - १९३२ ह्या काळांत ताणें सिनेटाच्या उपाध्यक्षपदाचेर काम केलें. ते उपरांत लवाद मंडळाखातीर नेमिल्ल्या बेल्जियमी संघाचेर ताची सरचिटणीसपदाचेर नेमणूक जाली. रोकडोच ताणें आंतरसंसदीय संघटनेंत सक्रीय वांटो घेतलो. फुडें ताची लवाद मंडळाच्या अध्यक्षपदाचेर नेमणूक जाली. शांतताय संघाकडेन ताचे बरे संबंद आशिल्ले. ताणें द हेगाक १८९९ आनी १९०७ वर्सा दोन शांतताय परिशदो भरयल्यो. १९०७ - ४३ ह्या काळांत बर्नच्या आंतरराश्ट्रीय शांतताय संघाच्या अध्यक्षपदाचेर फ्रिद्रिक बायराउपरांत लाफाँतेनाची नेमणूक जाली. निमाणेमेरेन तो ह्या पदाचेर आशिल्लो. ताणें पॅरिस शांतताय कबलातींत (१९१९) आनी राश्ट्रसंघाचे समितीचेर (१९२० - ३१) बेल्जियमाचो प्रतिनिधी म्हणून काम केलें. आंतरराश्ट्रीय सामंजस्याखातीर ताणें 'सेंत्रु इन्तॅलॅक्तुआल मोंदियाल' नांवाची संस्था स्थापन केली. उपरांत ती राश्ट्रसंघांत विलीन जाली. हे संस्थेचे धर्तेचेर इंटरनॅशनल कोर्ट ऑफ जस्टिस, वर्ल्ड युनिव्हर्सिटी, युनिव्हर्सल लायब्ररी अशो बऱ्योचशो संस्था चालीक लागच्यो अशी ताची कल्पना आशिल्ली.

'इंतेरनॅसिओनाल द बिब्लिऑग्राफी' (ब्रुसेल्स) ही संस्था म्हळयार ताच्या कामाचें यादस्तीक. नेमाळीं आनी उजवाडा आयिल्ले ग्रंथ हांची संदर्भसूची करून तें साहित्य जनसामान्यांकडेन पावोवप हो हे संस्थेचो हेत आशिल्लो. हेरखातीर ताणें 'पॅसिक्रीसी इंटरनॅशनल' हो ग्रंथ बरोवन ह्या क्षेत्रांत मोलादीक भर घाल्ली (१९०२). ह्या पुस्तकांत १७९४ ते १९०० मेरेनच्या आंतरराश्ट्रीय लवाद मंडळामुखार आयिल्ल्या खटल्यांचें इतिवृत्त ताणें संगतवार उजवाडायलें. फुडें ताणें हवाई झुजाआड जनमत घडोवपाची मोहीम काडली. ताच्या ह्या यत्नांक लागून ताका संवसारीक शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार (१९१३) दिवन ताचो भोवमान केलो.

ताणें 'ग्रेट सोलुशन' (१९१६) आनी 'बिब्लिऑग्राफी पीस अँड आर्बिट्रेशन' हीं आनीकय म्हत्वाचीं पुस्तकां बरयलीं. दुस्मानकाय आशिल्ल्या फ्रांस आनी जर्मनी ह्या दोन देशांभितर ताणें इश्टागतीचे संबंद प्रस्थापित करपाचे यत्न केले. ताची चडशी सगळी जीण शांततायेचे चळवळीचो प्रसार आनी प्रचार करपाक सोंपली.

- कों. वि. सं. मं.

**लामा धर्म :** तिबेटाचो धर्म. लामा वा श्रेश्ठ जंय रावतात, थंयचो धर्म म्हळयार लामाधर्म, असो ताचो अर्थ जाता. लामा धर्माच्या मुखेल्याक दलाई लामा म्हण पाचारतात. बौध्द धर्माचो प्रवेश तिबेटांत जावचे पयलीं थंय फ्युन् (बॉन) हो धर्म घोळणुकेंत आसलो. मंत्र-तंत्र, जादूटोणो हांचेर ह्या धर्माची भिस्त आशिल्ली. इ.स.चो आठवो शेंकडो तो चवदावो शेंकडो ह्या काळखंडांत पद्मसंभव (इ.स.चो आठवो शेंकडो), अतीश दीपंकर (९८२-१०५४) आनी त्सोङ्खाप (चवदावो शेंकडो) हांचेसारके बौधधर्मप्रचारक तिबेटांत गेल्ले. तांचेमदल्या पद्मसंभवाच्या आगमनान तंत्रीक बौध्द धर्माची भरभराट जाल्ली. फुडें इकराव्या शेंकड्यांत विक्रमशील विद्यापिठांतल्यान तिबेटांत गेल्ल्या अतीश दीपंकरान थंय धर्मसुदारणेचें नवें युग सुरू केलें. त्सोङ्खांपा हाणें बऱ्योच बुन्यादी सुदारणा घडोवन हाडून कडक नितीक आचाराचेर अदीक नेट दिलो. गुंतागुंतीचे तंत्रीक विधी ताणें न्हयकारले आनी ब्रह्मचर्यपालनाचेर ताणें अदीक भर दिलो. जादूटोणो आनी मंत्र-तंत्र हांचेर जे भर दिवपी आशिल्ले, तांकां, तांचे तांबडे रंगाचे तोपयेवयल्यान तांबडे तोपयेकार ह्या नांवान वळखूंक लागले. भूत पिशाच्च, डाकिणी हांकां खोशी दवरून सुरक्षितताय संपादन करपाचेर ह्या तांबड्या तोपयेवाल्यांची भिस्त आशिल्ली.



दलाई लामा

भारतांत तंत्रीक काळांत उत्पन्न जाल्ल्या नव्या कल्पनांप्रमाण उपलब्ध जाल्लें जायत्या तरांचे ध्यानी बुध्द, तांचेवांगडा येवपी तांच्यो बायल शक्ती आनी तांचे बोधिसत्त्व, तेचप्रमाण हेरुक, काळचक्र, वज्रभैरव, हयग्रीव, यम, महाकाळ, यमान्ताक, संवर, हेवज्र, संभल, कुरुकुल्ला ह्यो देवता आपणावन परत कांय पुराय रितीन थळाव्या अशा देवतांचोय स्विकार केलो. मंत्रतंत्र, धारणी, मुद्रामंडळां, होम, हांचें प्रस्थ वाडलें. मांत्रिक सिध्दी कशी मेळोवं येत ह्याच विचाराक नेट आयलो. ताका लागून 'ॐ मणिपदमेहुं' सारक्या मंत्राचो उच्चार आनी लेखन सगळ्याक दिसता. हीं मंत्राक्षरां बरयल्लीं पंचपात्रीवजा चक्रां दर एका जाग्याचेर स्थापन करून तीं घुंवडायत रावत जाल्यार पुण्य मेळूं येता अशी भावना भौसांत रूढ जाली. बौध्दांच्या वसतींनी प्रार्थनेच्यो पताको उबारून तांचेर घोडे, वाग, शींव, गरूड, नाग हांच्यो आकृत्यो दिसूंक लागल्यो. 'बौध्द धर्माचो उत्कर्श जावं' अशा आशयाचीं उतरा ह्या पताकांचेर आसतालीं. अशेतरेच्यो पताको उबारप हें पुण्याचें कर्तृव अशें समजूंक लागले. गळ्यांत मंतरिल्लें तावज वा ल्हानशो डबयो घालपय सुरू जालें. बौध्दांच्या मठांतल्यान तोंडाचेर वेगवेगळीं म्होंवाळीं लावन लामा लोक नाच करताले. पुजेच्या वेळार १०८ दिवे पेटयताले. खंयच्या देव देवतांची पुजा करूंक जाय, हाचेविशीं मार्गदर्शन करपी ज्योतिशांकय म्हत्व आयलें. मनीस मेल्याउपरांत लामाक आपोवप, लामान मड्याचे तकलेवयर बसप, वा ताणें मड्याचे तकलेक बारीक बुराक करप, तातुंतल्यान त्या मेल्ल्याच्या आत्म्यान भायर येवन अमिताभ बुध्दाच्या स्वर्गामिरेन कशें वचप, हेसंबंदान आदेश दिवपी मंत्र म्हणीत रावप, असो एक विधी आशिल्लो.

त्सोङ्खापा हाच्या बुन्यादी सुदारणांचो जांणी स्विकार केलो तांकां हळदुवे तोपयेवाले अशें म्हणपाक लागले. शुध्द आचरणांचेर तांचो भर आशिल्लो. ह्या हळदुव्या तोपयेवाल्यांच्या संप्रदायांतल्यान दलाई लामा सारके धर्मीक आनी त्या अनुशंगान राजकीय प्रशासक वेंचूंक लागले. आपल्या मठांत अध्ययन, अध्यापन, ध्यान, चिंतन हातूंत लामा गुल्ल जाल्ले आसताले. ल्हासाचे गान्देन (गान्डेन), दगहल्दन, दे - पुंग (ड्रे - पुंग), हब्रस - स्पुड', सेरा, स -क्य आदी फांकिवंत मठांतल्यान भिक्षूंक धर्माचें शिक्षण दिवंक लागले. हीं विद्यापिठांच आशिल्लीं. भिक्षू जावपाखातीर अशा मठांनी घेतिल्ल्यो परिक्षा पास जावप गरजेचें मानूंक लागले. पंडीत राहुल सांकृत्यायन, हाणें तिबेटांतल्या कुन् - दे - लिंग (कुन - ब्दे ग्लिंग), प्यो - खांग् (स्पोस्-खांग), शा-लू ह्या सारकिल्ल्या सुवातांवयल्या मठांतल्यान बरीच संस्कृत ग्रंथांचीं सावळेचित्रां, वा नकलो हाडल्यो. त्यो पाटणाच्या 'बिहार रिसर्च सोसायटी' आनी 'जयस्वाल संशोधन संस्था' ह्या वाचपघरांत सांबाळून दवरिल्ल्यो आसात. जायत्या संस्कृत ग्रंथांच्यो पोथयो बुध्दमूर्तीच्या पोटांत दवरिल्ल्यो दिश्टी पडतात, जांच्यो मूळ संस्कृत पोथयो भारतांतल्यान ना जाल्यात, अशा बऱ्याचशा संस्कृत ग्रंथाच्यो पोथयो तिबेटी मठांतल्यान मेळप शक्य आसा. कारण तेराव्या शेंकड्यांत बिहारांतल्या विद्यापिठांचो उच्छेद मुसलमान आक्रमकांनी केले उपरांत, जायते बौध्द भिक्षू आपलो ग्रंथसंग्रह वांगडा घेवन नेपाळच्यान तिबेटांत गेले आनी थंयच्या मठांत राबितो करून रावले. मठांत ध्यानी बुध्द, तांच्यो शक्ती आनी तांचें बोधिसत्त्व हांची पुजा करतात. ह्या ध्यानी बुध्दांतच वैरोचन, शक्तींमदीं तारा आनी बोधीसत्वांत अवलोकितेश्वर हांकां व्हडपण मेळ्ळां. कोणूय लामा आपलेपरस व्हड अशा दुसऱ्या लामाक गुरू करता.

लामा परंपरेतल्या सद्याच्या चवदाव्या दलाय लामाक पिरायेच्या पांचव्या वर्सा तें पद मेळिल्लें. तिबेटी लोकांनी तिबेट हातासपाक सोदपी चिनी सेने आड उठाव केलो (१९५९). तेन्ना भारतांत येवन तांणी राजकीय आलाशिरो घेतलो. तिबेटाचे मुक्ततायेखातीर ताणें दिल्ल्या शांततायपूर्ण, अहिंसक लड्याखातीर १९८९त ताका शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार दिला. तिबेटाचें इतिहासीक, संस्कृतीक दायज राखचें

आनी तिबेटाच्या प्रस्नांचेर शांततायपूर्ण उपाय काडचो म्हणून तो यत्न करीत आसा.

- कों. वि. सं मं.

**लामास, कार्लोस द साआव्हेद्रा :** (जल्म : १ नोव्हेंबर १८७८ ब्वेनस एअरीझ (आर्जेंटिना); मरण : ५ मे १९५९ ब्वेनस एअरीझ).

अर्जेंटिनाचो मुत्सद्दी, विधिज्ञ आनी शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो लॅटिन अमेरिकेंतलो पयलो मानकरी (१९३६).

ब्वेनस एअरीझ विद्यापिठांतल्यान ताणें कायद्याची पदवी घेतली आनी फुडें ह्या विशयांत डॉक्टरेट घेतली (१९०३). कांय वर्सां ताणें ला प्लाता आनी ब्वेनस एअरीझच्या म्हाविद्यालयांत अध्यापनाचें काम केलें. ब्वेनस एअरीझ नगरपालिकेचो सचिव आनी पतपेडयेचो संचालक हीं पदांय सांबाळ्ळीं (१९०६ - १९०७). हाचोच परिणाम म्हणून तो सक्रीय राजकारणांत पडलो आनी १९०८ वर्सा अर्जेंटिनाचे संसदेचेर वेंचून आयलो. संसदेंत ताणें कायदो संमत करून घेवन एतद्देशीय साकर उद्देगांक परराश्ट्रीय चडाओडींपसून राखण मेळोवन दिली (१९१२). ताची कायदेमंत्री आनी उपरांत भौशिक शिक्षणमंत्री म्हणून नेमणूक जाली (१९१५). ताणें जिनिव्हा आंतरराश्ट्रीय कामगार परिशदेंत अर्जेंटिनाचें नेतृत्त्व केलें आनी अध्यक्षपदय भुशयलें (१९२८). उपरांत १९३२ - ३८ ह्या काळांत परराश्ट्रमंत्रीपदाचेर ताची नेमणूक जाली. अर्जेंटिनाच्या परराश्ट्रीय धोरणांत ताणें खूब मोलादीक बदल केले.

स्पेनीश वसणुकींतल्या स्वतंत्र देशांतली इश्टागत आनी सामंजस्याखातीर ताणें यत्न केले. हेखातीर रियु द जानैरु हांगाचे परिशदेंत ताणें झूजविरोधी करार मांडलो (१९३३). हाचो मसुदो ताणेंच तयार केल्लो आनी १९३४ वर्समिरेन ह्या कराराचेर १४ राश्ट्रांनी निशाण्यो केल्ल्यो. ताचो परिणाम म्हणून लॅटिन अमेरिकन राश्ट्रांतलो मतभेद सोंपलो आनी बोलिव्हिया आनी पाराग्वाय हांचेमदीं झूजविरोधी करार जालो.ह्या कार्याक लागून ताका राश्ट्रसंघाच्या सतराव्या अधिवेशनाचें अध्यक्षपद मेळ्ळें (१९३५). तशेंच ब्वेनस एअरीझ हांगाचे अमेरिकन परिशदेचें अध्यक्षपदय ताणें भुशयलें. ताणें राश्ट्रसंघाच्या सहकार्यान सुरक्षितताय आनी शांतताय हांचेखातीर कांय संरक्षणात्मक मार्ग सुचयले. ताच्या ह्या कार्याक लागून ताका शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान केलो (१९३६).

परराश्ट्र मंत्रीपदावयल्यान निवृत्त जातकच ताणें आपली उरिल्ली जीण अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून सारली. १९४१ - ४३त तो ब्वेनस एअरीझ राश्ट्रीय विद्यापिठाचो अध्यक्ष आनी थंयच तो प्राध्यापक जालो (१९४३ - ४६). स्फूट लिखाणाभायर ताणें जायते ग्रंथय बरयले. ताच्या आंतरराश्ट्रीय धोरणावयल्या 'पोर ला पाझ द लास आमेरिकाज' (१९३७) ह्या पुस्तकाक खूब नामना मेळ्ळी.

- कों. वि. सं. मं.

**लायनेन, फेओडोर :** (जल्म : ६ एप्रिल १९११, म्यूनिक; मरण : ८ ऑगस्ट १९७९, म्यूनिक).

जर्मन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. कॉलेस्टॅरॉल आनी वसाम्लां हांच्या चयापचयाची म्हळयार शरिरांत सतत जावपी भौतीक - रसायनीक घडामोडिंची यंत्रणा आनी नियमन हे संबंदीच्या संशोधनाखातीर ताका १९६४ वर्साचो शरीरक्रियाविज्ञान वा वैजकी विशयाचो नोबॅल पुरस्कार कॉनरॅड एमिल ब्लॉक हाचे वांगडा वांटून मेळ्ळो. ह्या दोगांयनी जिते कोशिकेच्या (पेशीच्या) चयापचयाच्या मध्यस्थ टप्प्यांसंबंदीं संशोधन केलें आनी कोशिका साद्या संयुगांत कशे तरेन बदल करून तांचें स्टॅरॉलां (स्टॅरॉलां आनी स्टॅरॉयडां) आनी लिपिडां हांच्या जटिल रेणूंत रुपांतर करता हाचो सोद घेवपाचे नदरेन यत्न केले. तांणी स्वतंत्रपणान वेगवेगळया मार्गांनी कार्य केलें. लायनेन हाणें वसाम्लांकडेन चड लक्ष दिलें जाल्यार ब्लॉक हाणें स्टॅरॉलांचेर भर दिलो.

लायनेन हाणें म्युनिक विद्यापिठांत रसायनशास्त्राचें अध्ययन केलें. हायन्रिख व्हीलांट हाच्या मार्गदर्शनाखाल संशोधन करून १९३७ वर्सा ताणें डॉक्टरेट पदवी घेतली. म्युनिक विद्यापिठांत तो १९४२ वर्सा रसायनशास्त्राचो अध्यापक आनी १९४७ वर्सा प्राध्यापक जालो. उपरांत त्याच विद्यापिठांत १९५३ वर्सा जीवरसायनशास्त्राचो प्राध्यापक जालो. हेभायर म्युनिकांतले माक्स प्लांक इन्स्टिटयूट फॉर सॅल कॅमिस्ट्री हे संस्थेच्या संचालकपदाचेर १९५४ वर्सा ताची नेमणूक जाली. स्टॅरॉलां आनी वसाम्लां हांचें संश्लेशण शुध्द रसायनशास्त्राचे नदरेन म्हत्वाचें आसाच. ताचेवांगडा काळजांतल्या कॉलॅस्टॅरॉलाच्या संभाव्य कार्याचेरय तें उजवाड घालता. नोबॅल पुरस्कार समितीन लायनेन आनी ब्लॉक हांची ह्या पुरस्काराखातीर निवड करतना अशें म्हळां, रगताभिसरण विकारांक लागून जावपी चडशा मरणांभितर सामान्यपणान लिपिड चयापचयांत इबाड जाल्लो मेळटा आनी हाचेवयलो उपाय लायनेन आनी ब्लॉक हांच्या कार्यांतल्यान मेळूं येता.

नोबॅल पुरस्कारावांगडा लायनेन हाका न्यूबर्ग पदक (१९५४), लीबिग स्मृती पदक (१९५५), कारूस पदक (१९६१), ओटो व्हारबुर्ग पदक (१९६३), ऑर्डर पूर ला मेरित (१९७१) हे भोवमान मेळ्ळे. तो अमेरिकेची नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, लंडनची रॉयल सोसायटी, रशियाची ॲकॅडेमी ऑफ मॅडिकल सायन्सीस, ह्या विज्ञानीक संस्थाचो वांगडी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**लायन्स इंटरनॅशनल :** वेगवेगळया वेवसायांतल्या आनी उद्देगधंद्यांतल्या लोकांनी, परस्पर - सहकार्य आनी मानवतेचें सेवाभावी

कार्य करपाच्या उद्देशान स्थापन केल्ल्या मंडळाची संवसारांतली सगळयांत व्हडली आंतरराश्ट्रीय संघटना. तिचें अधिकृत नांव 'इंटरनॅशनल असोसिएशन ऑफ लायन्स क्लब्स' अशें आसलें तरी 'लायन्स इंटरनॅशनल' ह्या नांवानच ती प्रसिद्द आसा. हे संघटनेची स्थापना टेक्सास राज्यांत डॅलसांत मेक्लिव्हन जॉन्स हाणें १९१७त केली. संवसारांत १६६ परस चड स्वतंत्र देशांनी हे संस्थेचे सुमार २८, ५00 फांटे आसून, वांगडयांची संख्या १९९० मेरेन १0 लाखांवयर आसली. भारतांत हे संस्थेची सुरवात १९५६ वर्सा जाली.

लायन्स इंटरनॅशनलाचें बोधचिन्न

भारतांत पयलीं मुंबय आनी दिल्लीक हे संस्थेचे फांटे उगडले. उपरांत भारतांतल्या सगळया मुरवेल शारांनी - उपशारांनी ताचे फांटे जाल्यात. लायन्स इंटरनॅशनल आपलें लक्ष शेतवड, पर्यावरणाची राखण, तरणाटयांखातीर कल्याणकारी कार्य, नागरीकत्व आनी देशभक्तीची सुजाण जाणविकाय, शिक्षण, समाजसुदारणा, भलायकी, समाजकल्याण, आंतरराश्ट्रीय संबंद आनी सुरक्षीतताय तरणाटयांच्यो विदेशी भोंवडयो, म्हाताऱ्यांखातीर आनी अपंगुळांखातीर कार्य हांचेर केंद्रीत केल्लें आसा. कल्याणकारी कार्यांत हॉस्पिटलां उबारून तीं चलोवप, नेत्रचिकित्सा तशेंच कुडड्यांखातीर सगळया तरांचो आदार, गरजेवंतांक आनी अपंगुळांक वैजकीय उपचार उपलब्ध करून आदार दिवप. तांचें पुनर्वसन, शिक्षणीक, भलायकेविशीं आनी समाजीक सेवाकार्य करप, आंतरराश्ट्रीय सहकार्य आनी सामंजस्य वाडोवप ह्या स्वरुपाचीं कामां ही संघटना करता. कांय फांटयांनी तरणाटयांखातीर 'लिओ क्लब' आनी बायलांखातीर 'लायनॅस क्लब'सुरू केल्यात.

'लायन्स इंटरनॅशनल फाउंडेशन' हें प्रतिश्ठान आपद्‌ग्रस्तांखातीर निधी उबारून तांकां आदार दिता. आंतरराश्ट्रीय स्थराचेर ही संघटना संयुक्त राश्ट्रांच्या सेवाकार्यांत वांटो घेता. तशेंच संयुक्त राश्ट्रांच्या 'कॅर' (Care) (को - ऑपरेटिव्ह फॉर अमेरिकन रिलीफ एवरीव्हॅर) ह्या विभागाचो एक वांगडी म्हणून कार्य करता. हे संस्थेचें बोधवाक्य 'वी सर्व' (We Serve) अशें आसून 'लायन्स' हो एक संक्षेप. एल म्हळयार लिबर्टी, आय म्हळयार इण्टॅलिजन्स, ओ म्हळयार अवर, एन म्हळयार नेशन्स, एस म्हळयार सेफ्टी अशें ताचें विवरण आसा.

''द लायन'' हे संघटनेचें म्हयनाळें मूखपत्र इंग्लिशींतल्यान तशेंच संवसारांतल्या मुरवेल अशा अठरा भाशांतल्यान उजवाडा येता. संघटनेचें आंतरराश्ट्रीय आधिवेशन दर वर्सा घडोवन हाडटात. अमेरिकेंत इलिनॉय राज्यांत ओक ब्रुक हे सुवातेर हे संघटनेचें मुरव्यालय आसा. एक तेंपार थारावीक उच्च पदस्थ लोकांपुरतीच शिमीत उरिल्ली ही संस्था, आयचे घडयेक विस्तारीत जाल्या. तशेंच, तिच्या कार्याविशींच्या स्वरुपांत बदल जावन तिचें कार्य आतां सर्वसामान्यामेरेन पावंक लागलां.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : रोटरी इंटरनॅशनल

## लारांज : (पळेयात मोसंबी).

## लाल, प्रतापचंद्र : (जल्म : ६ डिसेंबर, १९१६ लुधियाना (पंजाब); मरण : १३ ऑगस्ट, १९८२ लंडन).

भारताचो भूतपूर्व हवाई दलाचो मुखेली (१९६९ - ७३). ताच्या बापायचें नांव वसंत आनी आवयचें नांव प्रमोदीनी. ताचो बापूय आयकर खात्यांत अधिकारी आसलो. प्रतापचंद्राचें शिक्षण दिल्ली आनी लंडनच्या किंग्स कॉलेजींत जालें. विद्यार्थी अवस्थेंत ताचें लग्न इला हे बंगाली चलयेकडेन जालें. बॅरिस्टर जावपाची ताची इत्सा आसली पूण दुसऱ्या म्हाझुजाखातीर ताका आपल्या मायदेशांत परतचें पडलें. विमान उड्डाणाचो थोडोभोव अणभव मेळ्ळयाउपरांत नोव्हेंबर १९३९ त ताची भारतीय हवाई दलांत अधिकारी म्हणून नेमणूक जाली. उड्डाण प्रशिक्षण विद्यालयांत तशेंच झूजाविशयक सैन्याच्या हालचालींचें प्रशिक्षण दिवपी संस्थेंत निर्देशक म्हणून ताणें कांय काळ काम केलें. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत जून १९४४ वर्सा ताचेकडेन वायुसेनेच्या सातव्या स्कॉड्रनाचें मुखेल पद दिलें. झुजाउपरांत ताची भारतीय वायुसेनेंत स्थायी पदाचेर नेमणूक केली. लंडनचे रॉयल ॲर फोर्स स्टाफ कॉलेजींतल्यान ताणें हवाई शिक्षणक्रम पुराय केलो. त्या उपरांत ताणें खूब उंचेलीं पदां मेळयलीं. वायुसेनेच्या मुरव्यालयाचो सहाय्यक सचीव आनी ॲर फोर्स ऑफिसर कमांडिंग ट्रेनिंग कमांड म्हणून ताणें काम केलें. १९५७ - ६२ ह्या काळांत तो भारतीय हवाई मार्ग निगम तशेंच ॲर इंडिया ह्या दोन भारतीय हवाई येरादार कंपन्यांचो अनुक्रमान महावेवस्थापक आनी वांगडी संचालक आसलो. ते उपरांत १९६३ वर्सा तो परत भारतीय वायुसेनेंत आयलो. फुडें वायुसेनेच्या परिक्षा कार्यालयाचो तो हवाई अधिकारी आसलो. १९६६ - ६९ ह्या काळांत तो अस्तंत विभागाचो मुखेली, वायुसेना कर्मचाऱ्यांचो उपमुरव्याधिकारी, हिंदुस्तान ॲरोनॉटिक्स (बेंगलूर) ह्या निगमाचो वेवस्थापकी संचालक आनी अध्यक्ष ह्या पदांचेर आसलो. ताच्या वेगवेगळया पदांवयले कार्यक्षमतायेचो विचार करून जुलय १९६९

वर्सा ताची हवाई दळाच्या प्रमुखपदार नेमणूक केली. ह्या पदाचेर तो निवृत्त जायमेरेन आसलो (१९७३). १९७१ वर्सा भारत - पाकिस्तान संघर्शांत ताणें खास कुशळकाय दाखोवन भारतीय हवाई दलाची शान आनी सैन्याचें नैतिक धैर्य वाडयलें. निवृत्ती उपरांत ताणें दोनय भारतीय हवाई मार्ग निगमाचें अध्यक्षपद सांबाळलें.

ताणें केल्ल्या कार्याखातीर ताका मान सन्मान फावो जाल्यात ते अशे - म्यानमाराचे (ब्रह्मदेश) आघाडीचेर केल्ल्या कामगिरीखातीर ताका 'डिस्टिंग्विश्ड फ्लाइंग क्रॉस' (डी.एफ.सी) हो किताब फावो जालो. प्रशासकीय कामगिरीखातीर पद्मभूषण हो पुरस्कार १९६६ वर्सा फावो जालो. भारत - पाकिस्तानाच्या संघर्शांत भारतीय हवाई दलाचें नैतिक धैर्य वाडयले खातीर ताका १९७२ वर्सा पद्मविभूषण हो पुरस्कार फावो जालो.

भारतीय हवाई दलाच्या वट्ट आधुनिकीकरणांत आनी कार्यक्षमतायेंत लाल हाचो म्हत्वाचो वांटो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**लावणी :** नाच, संगीत आनी अभिनय हांचो संयुक्त आविश्कार सादून सादर केल्लो मराठी गेय काव्य प्रकार. लवण - लावण्य (सोबीत) - लावणी अशी ह्या उतराची व्युत्पत्ती जाल्या अशें एक मत आसा. कलात्मक अविश्कार आनी स्त्रिसौंदर्याचें वर्णन ह्या लावणीच्या दोन घटकांचो संबंद लावण्य म्हणजे सोबीतकायेकडे येता, हें हे व्युत्पत्तीचें कारण सांगतात. लावणी नाचांत नर्तकीचे लवलवते कुडीवयल्यान लावणी हें उतर ह्या नाचाक मेळ्ळां आसूं येता अशेंय एक मत आसा. शेताचे लावणेंत रोपयो लायता त्या प्रमाण उतरांची सोबित अशी लावणी जाल्लें कवन ह्या अर्थांनी ताका लावणी नांव मेळ्ळां अशें म्हण्टात.

पयलींच्या काळांत, घरदार सोडून मुलूखगिरीचेर गेल्ल्या शिपायांचें मनोरंजन करपाखातीर मातशीं भडक आनी शृंगाराचीं सदळ पदां रचप जातालीं, आनी शिपायांचो तळ आसतालो थंय तांचें गायन जातालें. तेच भाशेन उत्सव, जात्रा अशा प्रसंगांनीय लावण्यांभाशेन मनोवेधक आविश्काराचे - प्रकार गरजेचे दिसताले. अशा गरजांतल्यान मराठी भाशेंत लावणीचो जल्म जालो.

आयज सगळयांत पोरनी म्हळयार सोळाव्या शेंकड्यांतली एकनाथकालीन लावणी आसून वीरशैव संत शाहीर मन्मथ स्वामी हाचेकडेन तिचें कर्तेपण दिवप जाता. ही अध्यात्मिक लावणी कराडक्षेत्र वर्णनाचेर आसून, शिलाहारांची कुलदेवता महालक्ष्मी कराडांत कशी आयली, हाचें वर्णन तातूंत आसा. लावणेची उदरगत आनी भरभराट उत्तर पेशवाईंत म्हळयार अठराव्या शेंकड्याचे निमाणें ते एकुणिसाव्या शेंकड्याची सुरवात ह्या काळांत जाली. शाहीर, रामजोशी, होनाजी बाळा, परशराम, सगनभाऊ, अनंत फंदी आनी प्रभाकर हे ह्या काळांतले नामनेचे लावणीकार शाहीर. फुडें पठ्ठे बापुराव, शाहीर हैबती, लहरी हैदर हांचीं नांवां येतात. लावणेचें ओडलायणें स्वरूप पळयल्यार आर्विल्ल्या काळांत ग. दि. माडगूळकर, कवी संजीव,पी. सावळाराम, जगदीश खेबुडकर ह्या गीतकारांनीय लावणेच्यो रचना केल्यात.

लावणेक गेयतेचें बंधन आसता. लावणीरचना आठ मात्रांच्या पद्मावर्तनी वा स मात्रांच्या भृंगावर्तनी वृत्तांनी मेळटा. हीं जतिवृत्तां गावपाक योग्य अशींच आसतात.

लावणेचे मुखेल अशे दोन प्रकार आसात. (१) शृंगारिक आनी (२) भेदिक वा अध्यात्मीक हांचेभायर आनीकय कांय प्रकार आसात ते अशे -

(१) डफ तुणतुण्याचेर म्हण्टात, ती शाहिरी लावणी (२) तबलें -



पेटयेचेर म्हण्टात ती बैठकीची लावणी. ही रागदारींत बसोवन ठुमरीच्या ढंगान गायतात. लावणेचो हो प्रकार होनाजीन सुरू केलो.
(३) तमासगिरांच्या फडांत म्हण्टात ती आनी नाची, सोंगाड्या ह्या कलावंतांच्या नृत्याभिनयान रंगपी ती तमाशांतली लावणी.

तमाशांतली लावणी आनी शाहिरी लावणी ही एकेकदां सारकीशी आसता. दोनयकडेन वाद्यां वाजोवपी आनी फाटल्यान सूर धरपी गायक- वादक आसतात. ही लावणी संवादात्मक आसता. तातूंत फक्त प्रस्न - जापूच नासतात. जाल्यार तातुंतलें उतरांचें आनी कल्पनांचें गुंथप अशे तरेन केल्लें आसता, लावणी सादर जातना एक जिवो समरप्रसंग पळयल्ल्याचो आनंद मेळटा. हे लावणेचीं उतरां कणरवर आसतात.

चालीवयल्यान जो लावणेचो प्रकार आयला ताचे आनीक स पोटप्रकार पडटात. तांचीं नांवां अशीं आसात - (१) वगाची, (२) बालेघाटी (३) छक्कड, (४) जुन्नरी (५) धावती वा झडटी आनी (६) हौद्याची.

शब्दरचनेवयल्यान वा वृत्तावयल्यान जो लावणेचो प्रकार सांगप जातात. तातूंत फटको, पद, आर्या हे प्रकार दिसतात.

विशयाचे नदरेन लावणेंत बायल दादलो संबंद आनी त्या निमतान कृष्ण गोपी संबंद हांचीं वर्णना वेगवेगळया संदर्भांनी परत परत येतात. श्रृंगाराचे सगळे भेद लावणीकारांनी रंगयल्यात. तशेंच पुराणीक, अध्यात्मीक आनी हेर लोकीक विशयांचेरय जायती लावणीरचना जाल्या. गणपती, शंकर, विष्णु ह्या देवतांची स्तुती; कसलेय पुराणकथेचें दीर्घकथन; तुळजापुर - पंढरपूर ह्या क्षेत्रांचीं वर्णनां; वैराग्याचेर उपदेश; सावित्रीहरिश्चंद्र हांचीं आख्यानां; लक्ष्मी - पार्वती, कृष्ण - राधा संवाद; गुरूकृपा; गूढ अध्यात्मीक अणभव अशे तरेचे विशय लावण्यांनी मेळटात. भेदीक लावण्यांनी कूटप्रश्न, कुवाडीं, उमाणीं आनी तांच्यो जापो आसतात. तातूंत कलगी आनी तुरा हे दोन पक्ष आसतात. हातुंतूय अध्यात्मीक आनी लोकीक अशा दोनय विशयांचेर कूटप्रश्नात्मक लावण्यो रचल्यात. कांय भेदीक लावण्यो रुपकात्मक आसात. दुकळाचेर तेच भाशेन बदलत्या काळाविशीं खंत उक्तावपी लेगीत लावण्यो आसात.

मध्वमुनीश्वर, अमृतराय, देवनाथ, दयाळनाथ, विष्णुदास माहूरकर ह्या संतांनीय कांय उत्तम अध्यात्माचेर लावण्यो बरयल्यात हालींच्या काळांत तमाशाप्रधान मराठी चित्रपटांत लावणीचो आस्पाव बऱ्याच प्रमाणांत जावंक लागला.

- कों .वि. सं. मं.

**लाव्हरां, शार्ल ल्वी आल्फाँस :** (जल्म : १८ जून १८४५, पॅरिस; मरण : १८ मे १९२२ पॅरिस).

फ्रेंच वैद्य, विकृतीवैज्ञानिक आनी परजीविवैज्ञानीक, (दुसऱ्या सजिवांचेर उपजिविका करपी सजिवासंबंदीच्या विज्ञानाचो तज्ञ). ताणें मनशांतल्या मलेरियाक कारणीभूत आसपी परजिवीचो सोद लायलो. ह्या आनी प्रजिवांक (प्रोटोझोआंक) लागून जावपी हेर रोगासंबंदीं ताणें केल्ल्या कार्याखातीर १९०७ वर्साच्या शरीरक्रियाविज्ञान आनी वैजकी विशयाच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो.

स्ट्रॉसबुर्गाक ताचें वैजकी शिक्षण जालें. १८७० - ७१ त जाल्ल्या फ्रँको - प्रशियन झुजांत ताणें लश्करी वैज म्हणून काम केलें. १८७४त एकोल द्यू व्हाल द ग्रेस हे लश्करी संस्थेंत ताची प्राध्यापकपदाचेर नेमणूक जाली. १८७८ - ८३ ह्या काळांत ताणें आल्जेरियांत लश्करांत काम केलें आनी थंय ताणें मलेरियासंबंदीं संशोधन करून १८८० वर्सा ताच्या जित्या कारकाचो सोद लायलो. ते उपरांत पयलींचेच संस्थेंत ताणें लश्करी भलायकेचो प्राध्यापक (१८८४ - ९४) म्हणून आनी कांय काळ प्रशासकीय पदांचेर काम करतकच १८९७ वर्सा लश्करी नोकरी सोडली आनी पॅरिसांतल्या पाश्चर इन्स्टिट्युटांत गेलो. १८९७ वर्सा सावन ताणें मनीस आनी प्राणी हांचेमदल्या रगताच्या परजिवीजन्य पिडांचेर संशोधन केलें. उश्ण कटिबंधीय वैजकांतल्या संशोधनाच्या विकासाचेर ताचो व्हड प्रभाव पडिल्लो. न्हिदेरोग, लिशमॅनिया प्रजातींतल्या प्रजिवांपसून जावपी पिडा आनी हेर प्रजीवजन्य रोग हेसंबंदींचें ताचें कार्य म्हत्वाचें थारलें. ताका नॉबेल पुरस्काराची मेळील्ली रक्कम ताणें उश्ण कटिबंधीय पिडांवयल्या संशोधनाखातीर पाश्चर इन्स्टिट्युटांत एके प्रयोगशाळेची स्थापणूक करपाक वापरली. १९०८ वर्सा ताणें सोसायटी द पॅथॉलॉजी एक्झॉटिक ही संस्था स्थापन केली. तो बारा वर्सां हे संस्थेचो अध्यक्ष आशिल्लो.

फ्रांसाचे ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसान ताका १८८९ वर्सा पुरस्कार दिवन १९०१ वर्सा वांगडी म्हणून ताची निवड केलीं. तो ॲकॅडेमी ऑफ मॅडिसिनाचो १८९३ वर्सासावन वांगडी आनी उपरांत अध्यक्ष आशिल्लो. ताणें आपलें संशोदन कार्य टिपणां आनी संस्मरणिका तशेंच व्हड प्रमाणांत प्रबंदिकांच्या रुपांत उजवाडायलें. तातूंत Trypanosomes et trypanosomiasis (फेलिक्स मेस्नील हाचे वांगडा, १९०४), Trait des fievres Palsustres avec la description des microbes du Paludisme (१८८४) आनी Trait des maladies et Epidemies des armees (१८७५) ह्या ग्रंथांचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**लाशें :** (पळेयात कात).

**लॉक जॉन :** (जल्मः २१ ऑगस्ट १६३२ रिंग्टन - इंग्लंड; मरणः २८ ऑक्टोबर १७०४).

इंग्लीश तत्त्वगिन्यानी आनी राजकीय अभ्यासक.



गिन्यानमिमांसा, शिक्षणशास्त्र आनी वैजकशास्त्र ह्या मळांरय ताणें ग्रंथलिखाण केलां. ताणें अणभवसिध्द पद्दत आपणावन ब्रिटीश तशेंच संवसारीक गिन्यानांत नवी भर घाली. ताणें आपणायल्लीं मोलां मानवसापेक्ष आसून तीं मनशाच्या अणभवांचेरच आदारल्यांत.

जॉन लॉकाचे आवयक ताच्या भुरगेपणांतूच मरण आयले उपरांत जॉनाचो सांबाळ करपाचो सगळो भार ताच्या बापायचेर पडलो. ताचो बापूय ब्रिस्टॉला लागशिल्ल्या पॅनस्फोर्ड शारांत वकिली करतालो. नाजूक भलायकी आनी यादवी झुजाक (१६४२) लागून लॉकाचें मुळावें शिक्षण घराच जालें. उपरांत पिरायेच्या चवदाव्या वर्सा ताणें वॅस्टमीन्स्टरचे शाळेंत प्रवेश केलो. थंय स वर्सां शिक्षण घेतले उपरांत तो ऑक्सफर्डाचे क्रिस्ट कॉलेजींत गेलो. शिक्षण काबार जाले उपरांत तो ऑक्सफर्ड विद्यापिठांतूच अध्यापक म्हणून वावुरपाक लागलो. उपरांत ताणें वैजकी शिक्षण घेतलें. त्याच वेळार ताची वळख नामनेचो विज्ञानीक रॉबर्ट बॉयल हाचेकडेन जाली. बॉयलच्या मार्गदर्शनाखालाच ताणें सैमीक विज्ञानाचें शिक्षण घेतलें. १६६८ त तो रॉयल सोसायटीचो वांगडी जालो.

१६६५ त तो इंग्लीश राजदुताचो सचिव म्हणून सबंद युरोप भोंवलो. इंग्लंडाक परत आयले उपरांत सुरवेक तो शाफ्टबॅरी हालॉर्ड हाचे वैज आनी शाफ्टबॅरी चान्सलर जाले उपरांत ताचो सचिव म्हणून वावुरपाक लागलो. हाका लागून ताका राज्यघटना आनी प्रत्यक्ष राजकारण हांचो खूब अणभव मेळ्ळो. १६७६ त ताची भलायकी इबाडिल्ल्यान तो फ्रांसाक गेलो. तीन वर्सांउपरांत परतून येवन तो शाफ्टबॅरीचो सचिव जालो. दुसऱ्या चार्ल्साच्या तेंपार पंथीक भेदावयल्यान शाफ्टबॅरीक देशाभायरो केल्लो तेन्ना लॉकूय ताचे वांगडा हॉलंडाक गेलो. राजकीय कारणाक लागून १६८३ ते १६८९ त ताका देशाभायरच रावचें पडलें. हॉलंडांत ताचो साबार तज्ञांकडेन संबंद आयलो. थंयच ताणें कांय खाशेल्या ग्रंथांची रचणूक केली. १६८८ त इंग्लंडांत जाल्ले रक्तविहीन राज्यक्रांती उपरांत तो इंग्लंडाक परत गेलो. त्याच सुमाराक ताचो राज्यशास्त्रीय ग्रंथ प्रसिद्द जालो. ह्या ग्रंथाक लागून ताका प्रसिद्दी मेळ्ळी.

लॉकाच्या वेगवेगळया लिखाण क्षेत्रांनी सांपडपी विचारसरणेचो आधुनिक उदारमतवादी विचारसरणी म्हणून उल्लेख जाता. शिक्षणीक क्षेत्रांत मांडिल्ले आपले येवजणेंत ताणें भुरग्यांखातीर, तरणाट्यांखातीर आनी जाणट्यांखातीर शिक्षण घेवपाच्यो वेगवेगळयो पद्दती स्पश्ट केल्यात. लॉकाच्या मतान अणभव हो गिन्यानाचो मुखेल आदार जल्माक येतना मनशाचें मन कोरें आसता. उपरांत वेगवेगळया अणभवांतल्यान तशेंच संवेदनांक लागून इल्ली इल्ली गिन्यानांत भर पडत वता. लॉकाचे शिक्षणीक विचार मानसशास्त्राचेर आदारल्यात. ताच्या मतान मनशाची जीण उजू वा वायट हें ताका मेळपी देखांचेर आदारून आसता.

सतराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांतली ब्रिटनाची अर्थीक स्थिती लक्षांत घेवन, लॉकान नियंत्रीत राजसत्तेचो पुरस्कार करपी राजकीय तत्त्वगिन्यान मांडलें. ताणें आपल्या समाजीक सिध्दान्तांत मनीस सुरवेचे अवस्थेंत म्हळयार सैमीक वेवस्थेंत एकामेकांकडेन कशे वागताले, तांच्या समाजमोगी गुणांक लागून समाजाची उदरगत कशे रितीन जाली, हें स्पश्ट केलां.

शासनाविशींचे विचार मांडटना लॉकान राज्यकल्याणाखातीर शासनान फावो ते कायदे करून त्या कायद्यांवरवींच राज्य कशें चलोवपाक जाय, तशेंच ते कायदे सगळयांक समान आसपाक जाय हें स्पश्ट केलां. घालून दिल्ले चौकटेंत कारभार चलोवपाक अपेशी थरलें जाल्यार तें सरकार बरखास्त करपाचे हक्क लोकांक आसपाक जाय अशेंय तो मानता. तशेंच ज्या पंथाचेर वा धर्माचेर ज्या लोकांची श्रध्दा आसता तो धर्म आपणावपाक नागरिकांक मेकळीक आसची अशें तो मुखार म्हण्टा. ताणें तत्त्वगिन्यान, मानसशास्त्र आनी हेर क्षेत्रांनी केल्लो वावरय खूब म्हत्वाचो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**लॉयड - जॉर्ज, डेव्हिड** : (जल्मः १७ जानेवारी १८६३ मँचेस्टर (लँकाशायर); मरणः २३ मार्च १९४५ लॅनस्टमडवी).

पयल्या म्हाझुजाच्या काळांतलो ग्रेट ब्रिटनाचो प्रधानमंत्री (१९१६ - २२) आनी मुत्सद्दी. ताच्या बापायचें नांव विल्यम जॉर्ज आनी आवयचें नांव एलिझाबॅथ. ताचो बापूय एक शिक्षक आशिल्लो. बापायच्या मरणाउपरांत ताणें मामागेर रावन शिक्षण घेतलें आनी उपरांत पोर्टमॅडक हांगाचे कायद्याविशीं सल्लो दिवपी संस्थेंतल्यान ताणें १८८४ वर्सा वकिलीची सनद मेळयली. क्रिक्साक ताणें आपलें सल्लो दिवपी कार्यालय उगडलें. पूण त्याचवेळार तो लिबरल पक्षावटेन ओडलो. ताणें शेतकारांची संघटना उबारपाक आदार केलो आनी तांचे चळवळीक उत्तेजन दिलें. ताचे पयले बायलेचें नांव मार्गारिट ओअन आनी दुसरे बायलेचें नांव फ्रँसिस स्टिव्हन्स.

एप्रिल १८९०त तो कार्नारव्हन शारांतले एके पोटवेंचणुकेंत संसदेचेर वेंचून आयलो. ह्या मतदारसंघांतल्यान ताणें १९४५ मेरेन संसदेचें खासदार पद सांबाळ्ळें. लिबरल पक्षांत भितर लॉर्ड रोझबरीच्या मुखेलपणा आड ताणें १८९४-९५त उठाव केलो. लिबरल पक्षाचो सर हॅन्री कॅम्बलबॅनरमॅन सत्तेचेर येतकच १९०५त ताची वेपार मंडळाच्या अध्यक्षपदाचेर नेमणूक जाली. ताणें कांय कल्याणकारी

येवजण्यो कार्यरत केल्यो आनी मर्चंट शिपिंग ॲक्ट (१९०६), पेटण्ट्स अँड डिझायन्स ॲक्ट (१९०७), द पोर्ट ऑफ लंडन ॲक्ट (१९०८) सारकिले प्रागतिक कायदे करून गोदी कामगारांचें जिवीत सुदारलें. तशेंचताणें वेपारी तारवां आनी तांचे मक्ते हांचेर नियंत्रण हाडलें आनी लंडन बंदर प्रधिकरणाची स्थापना केली. हर्बर्ट हॅन्री ऑस्क्विथ (१९०८ - १६) प्रधानमंत्री जाल्या उपरांत ताचेकडेन अर्थ खातें सोंपयलें (१९०८). १९०९त ताणें क्रांतीकारक लोकाभिमुख अर्थसंकल्प संसदेंत सादर केलो. बियर, तंबाकू, गॅस, स्पिरिट ह्या वस्तूंवयली शुल्क आकारणी, अबकारी कराबगर वारसो हक्कान आयिल्लें उत्पन्न, मृत्यूशुल्क आनी जमनीविशींचे वेव्हार हांचेर ताणें आयकर लायलो. १९११ वर्सा ताणें राश्ट्रीय बेरोजगार विमो येवजण कायदो संमत करून बेकारीचो प्रश्न सोडोवपाचो यत्न केलो.

पयल्या म्हाझुजांत लॉयडान आक्रमक जावन जर्मनीआडचे भूमिकेक चोरव उत्तर दिलें. सुरवेक झुजा साहित्याचो मंत्री (१९१५) आसतना ताणें नवे कारखाने उगडून कामगारांचे प्रश्न सोडयले आनी दारू गुळयांचें उणेंपण भरून काडलें. तशेंच सक्तीची लश्करी सेवा जाहीर करून सैन्यदलाचें संयोजन केलें. किचेनरच्या मरणाउपरांत तो झुजामंत्री जालो (१९१६). ७ डिसेंबर १९१६ ह्या दिसा हर्बर्ट ऑस्क्विथाक राजिनामो दिवचो पडलो आनी ताच्या जाग्यार लॉयड-जॉर्ज प्रधानमंत्री म्हणून वेंचून आयलो. झुजकाळांत ताणें कणखर भुमिका घेतली. मार्शल फेर्दीनां फोशच्या हुकमतीखाल ताणें सगळ्या लश्करी दलांचें एकीकरण केलें. इश्ट राश्ट्रांक जैत मेळ्ळें आनी इंग्लंड संकटांतल्यान भायर पडलो. १९१८ चे वेंचणुकेंत तो परत वेंचून आयलो. व्हर्साय शांतताय तहाच्या (१९१९) मसुद्यांत ताचो व्हड वांटो आसा. म्हाझुजकाळांत ताणें समाजीक सुदारणांचेर नेट दिलो. लॉयडान कन्झर्वेटिव पक्षाच्या सहकार्यान आयर्लंडांतली दडपशाय बंद केली आनी आयर्लंडाक स्वतंत्र देश म्हणून मान्यताय दिली. मागीर कामगारांमदलें ताचें फाटबळ उणें जालें. तशेंच ग्रीक धर्जिणें धोरण आपणायल्ल्यान ताचेर संसदेचें रागणें पडलें आनी अर्थीक संरचणुकेखातीर दिल्लीं आश्वासनां तो पाळपाक शकलोना. देखून ताका राजीनामो दिवंचो पडलो. मरचेपयलीं कांय म्हयने ताका सरदारकी मेळिल्ली. ताणें वॉर मॅम्वार्स (स खंड १९३३ - ३६) आनी मॅम्वार्स ऑफ पीस कॉन्फरन्सिस (१९३९) हे झूज विशयक दोन म्हत्वाचे ग्रंथ बरयले.

- कों. वि. सं. मं.

**लॉरॅन्स, अर्नेस्ट ऑरलाँडो :** (जल्मः ८ ऑगस्ट १९०१, कँटन - साऊथ डकोटा; मरणः २७ ऑगस्ट १९५८, पॅलो ॲल्टो (कॅलिफोर्निया)).

अमेरिकन भौतिकीविज्ञ. सायक्लोट्रॉन ह्या उच्च ऊर्जा मेळोवपी पयल्या कणवेगवर्धकाचो सोद लायिल्लेखातीर ताका १९३९ वर्साच्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो.

१९२२ वर्सा ताणें साऊथ डकोटा विद्यापिठाची रसायनशास्त्रांतली बी.ए., १९२३ वर्सा मिनेसोटा विद्यापिठाची एम.ए. आनी १९२५ वर्सा यॅल विद्यापिठाची भौतिकींतली पीएच्.डी. ह्यो पदव्यो घेतल्यो. यॅल विद्यापिठांत दोन वर्सां राश्ट्रीय अधिछात्र आनी एक वर्स भौतिकीचो सहाय्यक प्राध्यापक म्हणून काम करतकच १९२८ त तो बर्कलीच्या कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत सहयोगी प्राध्यापक आनी दोन वर्सां उपरांत प्राध्यापक जालो.

लॉरॅन्सान मुखेलपणान अणूकेंद्रीय भौतिकींत संशोधन केलें. १९२९ वर्सा पयलीं ताणें सायक्लोट्रॉनाची कल्पना मांडली. एम्. एस्. लिविंगस्टन ह्या ताच्या विद्यार्थ्यान हो प्रकल्प हातांत घेवन १३000 इलॅक्ट्रॉन - व्होल्ट इतले ऊर्जेमेरेन प्रवेगित केल्ले प्रोट्रॉन मेळोवपाक जैत जोडलें. लॉरॅन्सान दुसरो सायक्लोट्रॉन उबारून ताच्या आदारान १२ लाख इलॅक्ट्रॉन - व्होल्ट ऊर्जेचे प्रोट्रॉन मेळयले. ही ऊर्जा अणूकेंद्रीय विघटन करपाक पावताली. हें संशोधन फुडें चालू दवपाखातीर बर्कलेक कॅलिफोर्निया विद्यापिठाची रेडिएशन लॅबोरेटरी ताणें उबारली आनी तिचो तो १९३६ वर्सा संचालक जालो. ह्या संचालकपदाचेर आनी विद्यापिठांतल्या प्राध्यापकपदाचेर ताणें निमाणेमेरेन काम केलें. ताचो धाकलो भाव जॉन लॉरॅन्स हाच्या आदारान ताणें सायक्लोट्रॉनाच्या जीववैज्ञानिक आनी वैजकी उपेगासंबंदीं संशोधन केलें. सायक्लोट्रॉनाचीं व्हड आनी चड बळिश्ट रुपां लॉरॅन्सान तयार केलीं.

दुसऱ्या म्हाझुजांत अणूबाँब तयार करपाखातीर लागपी युरेनियम (२३५) वेगळें करपाची विद्युत् चुंबकी प्रक्रिया कार्यावळीचो तो मुखेली आशिल्लो. ह्या कार्याभायर ताणें एका रंगीत दूरचित्रवाणी चित्रनळयेचोय सोद लायिल्लो आनी तिचें पेटंट घेतिल्लें. ताणें विद्युत् कीट विसर्जनाचो अभ्यास करपाखातीर ३ अब्जांश सॅकंद इतल्या उण्या काळाचें मापन करपाचे पद्दतीचो सोद लायिल्लो.

नोबॅल पुरस्कारावांगडाच ताका फ्रँक्लिन इन्स्टिट्युटाचें एलियट क्रिसन पदक, नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचो कॉमस्टॉक पुरस्कार, रॉयल सोसायटीचें ह्यूझ पदक तशेंच फॅराडे पदक आनी एन्रीको फेर्मी पुरस्कार हे भोवमान मेळ्ळे.

तो अमेरिकेची नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, स्विडिश ॲकॅडेमी, सोविएत ॲकॅडेमी ह्या वैज्ञानिक संस्थांचो वांगडी आशिल्लो. ताच्या भोवमानाखातीर लॉरॅन्स बर्कली रेडिएशन लॅबोरेटरी आनी लॉरॅन्स लिव्हरमोर नॅशनल लॅबोरेटरी ह्या प्रयोगशाळांक, लॉरॅन्स हॉल ऑफ सायन्स ह्या संग्रहालय आनी संशोधन केंद्राक तशेंच १०३ अणूक्रमांकाच्या मूलद्रव्याक लॉरॅन्साचें नांव (लॉरॅन्सियम) दिलें. ताचें चडशें संशोधन कार्य 'द फिजिकल रिव्ह्यू' आनी 'प्रोसिडिंग्स

ऑफ द नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस' हातूंत उजवाडा आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**लिंकन, अब्राहम :** (जल्मः १२ फेब्रुवारी १८०९, कँटकी - अमेरिका; मरणः १५ एप्रिल १८५५, अमेरिका).

अमेरिकेचो आदलो राश्ट्राध्यक्ष. ताचो जल्म एका गरीब घराण्यांत जालो. तो थवय काम करतालो. लिंकनान आपलें मुळावें शिक्षण घरचे घराच घेतलें. तेभायर ताचें वाचनय चालूच आशिल्लें.



इ.स. १८३१ त तो इलिनॉय राज्यांतल्या न्यू सलिम गांवांत स्थायीक जालो. सचोटी आनी स्पश्टवक्तेपण हांकां लागून तो लोकप्रिय जालो. कांय दीस ताणें एका दुकानांत काम केलें. उपरांत तें दुकान ताणें विकतें घेतलें. पूण ह्या वेपारांत ताका व्हडलेशें यश मेळ्ळेंना. तेन्ना ताणें टपाल खात्यांत नोकरी धरली. ह्या काळांत ताचें स्वयंशिक्षण चालूच आशिल्लें. ताणें कायद्याचो खोलायेन अभ्यास केलो. इ.स. १८३४ त तो राज्य विधीमंडळाचेर वेंचून आयलो. तेउपरांत सतत चार खेपे तो वेंचून आयलो.

१८३६ त ताका वकिलीची सनद मेळ्ळी आनी ताणें वकिली वेवसाय सुरू केलो. हातांत घेतिल्ल्या कामाविशीं निश्ठा आनी युक्तिवादांतली सुबोधताय ह्या गुणांक लागून ताका ह्या वेवसायांत बरेंच यश मेळ्ळें.

इ.स. १८४७ उपरांत दोन वर्सांच्या काळांत लिंकनाची अमेरिकेचे काँग्रेसीचेर निवड जाली. त्या वेळार ताणें कोलंबिया राज्यांतल्या गुलामांचे मुक्ततायेविशीं एक विधेयक मांडलें. गुलामगिरी एकदम नश्ट करिनासतना गुलामांक ल्हव ल्हव मुक्तताय दिवंची म्हणजे अर्थवेवस्थेचेर विपरीत परिणाम जायनासतना फावो ती सुदारणा जावंक शकतली अशें ताचें मत आशिल्लें.

इ.स. १८५४ त लिंकनाची परत अमेरिकेचे काँग्रेसीचेर वेंचणूक जाली. त्या वेळार ताचो राजकीय प्रतिस्पर्धी स्टीफन डग्लस हाणें गुलामगिरीक आनी गुलामांच्या वेपाराक प्रोत्साहन दिवपी विधेयक अमेरिकन काँग्रेसींत मांडलें. तेन्ना आपल्या विग पक्षाच्या धोरणाचेर लिंकनान खर टिका केली. तेचपरी ताणें पक्षत्याग केलो आनी तो रिपब्लिकन पक्षाखातीर काम करूंक लागलो. ताणें अमेरिकन काँग्रेसीन गुलामगिरीआड विधेयक मंजूर करचें असो आग्रो धरलो. इ.स. १८५८ चे वेंचणुकेंत डग्लसाआड लिंकन वेंचून आयलो. अमेरिकेच्या दक्षिणी राज्यांत गुलामगिरीच्या प्रस्नावयल्यान तेन्ना फुटीर प्रवृत्ती तयार जाल्ल्यो. हे प्रवृत्तीचेर लिंकनान खर टिका केली. फुडें इ.स. १८५८ चे वेंचणुकेंत लिंकनाक जरी हार घेवंची पडली तरी प्रचार मोहिमेंतलीं ताचीं भाशणां बरींच गाजलीं आनी देशभर ताची नामना जाली.

उपरांतच्या काळांत डॅमोक्रॅटिक पक्षांत फूट पडली आनी हाचो परिणाम म्हणून इ.स. १८६० वर्सा लिंकन अमेरिकेचो अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयलो. हे वेंचणुके उपरांत दक्षिण कॅरोलायना राज्य संघराज्यांतल्यान भायर पडलें. ताचेच वांगडा आनीक स घटकराज्यां कुशीन सरलीं. तेन्ना अमेरिकेंत यादवी झूज सुरू जालें. सुरवेक जरी लिंकनान सबुरीचें धोरण धरलें तरी राश्ट्राच्या एकचाराखातीर ताका झुजाचो खर निर्णय घेवंचो पडलो.

फुडें जानेवारी १८६३ दिसा लिंकनान अमेरिकेंतल्या दक्षिणेच्या राज्यांतली गुलामगिरी नश्ट करपाखातीर जाहीरनामो उजवाडायलो. तेप्रमाण सुमार दोन लाख गुलामांक मुक्त केले. फुडें हे घटनेक मंजुरीय मेळ्ळी. पूण त्या वेळार लिंकन संवसारांत नाशिल्लो. यादवी झुजाक जैत मेळिल्ल्याच्या दुसऱ्याच म्हळ्यार १४ एप्रिल १८६५ ह्या दिसा लिंकन एका नाट्य प्रयोगाक गेल्लेकडेन, जॉन विल्कीस बुथ ह्या अभिनेत्यान गुळी घालून ताका जिवेशीं मारलो. दुसऱ्या दिसा ताका मरण आयलें.

यादवी झुजाकाळांत लिंकनाच्या खंबीर फुडारपणाचें दर्शन जालें. जायत्या तरांच्या विरोधांक तोंड दिवन ताणें राश्ट्राचो एकचार सांबाळपाचो यत्न केलो. झूज सुरू आसतना तातूंत वीर मरण आयिल्ल्या झुजाऱ्यांचे यादीक लिंकनान जें भाशण केलें ताचो संवसारांतच्या इतिहासांतल्या मेजक्या वक्तृत्वपूर्ण आनी प्रभावी भाशणांमदीं आस्पाव जाता. 'आमचें सरकार हें लोकांचें, लोकांनी चलयल्लें आनी लोकांखातीर काम करपी' हीं ताचीं भाशणांतलीं उतरां स्फूर्तदिणीं थारलीं.

- कों. वि. सं. मं.

**लिंग :** चिन्न, कुरू वा प्रतीक. सजिवाचे जातींतल्या घटकांचें प्रजोत्पादनाचे नदरेन नर आनी मादी अशा दोन पंगडांनी विभाजन करपी लक्षणां म्हणजे लिंग (दादलो) आनी योनी (बायल). लिंग हे संकल्पनेफाटल्यान मुखेलपणान दादलो बायल मदलो फरक दाखोवपी संकेत आसा. व्याकरणांत नाम, सर्वनाम, विशेशण, क्रियापद हांचे संबंदीं दादलो (पुल्लिंगी) आनी बायल (स्त्रिलिंगी) हे भेद दाखोवपी व्याकरणी विचाराक (नेमांक) लिंग म्हण्टात.

**संस्कृतीक संदर्भ :** कसलेय वस्तूचें वा भावनेचें चिन्न वा प्रतीक. परब्रह्माचें व्यापक स्वरूप. मेदिनीकोशांत लिंग उतराचे अर्थ

सांगल्यात ते अशे -

लिङ्गं चिन्हे ऽ नुमाने च साङ्ख्योक्तप्रकृतावपि ।
शिवमूर्तिविशेषे च मेहने ऽपि नपुंसकम॥

**अर्थ** - चिन्न, अनुमान, सांख्यशास्त्रांतली प्रकृती, शिवमूर्तिविशेश आनी शिश्न अशा अर्थान लिंग उतर आसून तें नपुंसक आसा. पूण लिंग उतरान सामान्यपणान शिवाचें प्रतीक असोच बोध जाता. लिंग उतराची व्याख्या सुप्रभेदागमांत अशी दिल्या -

लयं गच्छन्ति भूतानि संहारे निखिलं यतः ।
सृष्टिकाले पुनः सृष्टिं तस्माल्लिङ्गमुदाहृतम् ॥

**अर्थ** - प्रलयकाळांत भुतांसकट हें सगळें जग लिंगाचे सुवातेर लयाक वता आनी सृश्टिकाळांत परतून तातुंतल्यानूच आकाराक येता म्हणून ताका लिंग अशें म्हळां.

**लिंगाची व्युत्पत्ती :** शिवलिंग कशें उत्पन्न जालें हेविशीं पुराणांत खूब कथा मेळटात. तातुंतली एक कथा अशी आसा -

कल्पांती सगळे चराचर सृश्टीचो प्रलय जावन सगळेकडेन बुडटी आयली. त्या एकार्णवांत नारायण शेषशय्येचेर न्हिदिल्लो. ताचे बोंबलेंतल्यान ब्रह्मा उत्पन्न जालो. तो जातनाच मायामोहीत जालो. ताणें मस्तेन न्हिदिल्ल्या नारायणाक हालोवन जागो केलो. तूं व्हड काय हांव व्हड अशी दोगांय भितर सर्त सुरू जाली. त्या दोगांकय आत्मबोध जावंचो म्हणून तांचेमुखार अनाद्यनंत आनी त्रिभुवनव्यापक अशें लिंग प्रगट जालें. तें लिंग म्हळयार तेजाचो एक खांबो आशिल्लो. ताका लागून ब्रह्मा - विष्णुचे दोळे दिपकावले आनी त्या दोगांयनी ताचो सोद घेवपाचें थारायलें. ब्रह्मा हंसाचें रूप घेवन त्या लिंगाचें तेमूक सोदपाखातीर ऊर्ध्व लोकांत गेलो. विष्णु वराहाचें (दुकराचें) रूप घेवन पाताळांत गेलो. दोगांयनी शंबर वर्सां सोद केलो पूण कोणाकच त्या लिंगाचें ताळमूळ मेळ्ळें ना. निमाणें दोगूय जाण निरर्शले. तांचेमदली व्हडपणाची सर्त सोंपली आनी लीन जावन ते लिंगाक शरण गेले.

**लिंगप्रकार :** लिंगाचे चल आनी अचल अशे दोन प्रकार जातात. चल लिंग हें पुजेखातिरच निर्माण करून तें एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार व्हरपाक मेळटा. पूण अचल लिंग हें एकाच जाग्यार स्थापीत आसता.

**ज्योतिर्लिंगां :** हीं लिंगां संख्येन बारा आसात. तीं तेजाच्या स्वरुपांत प्रादुर्भूत जालीं. हेविशींची आख्यायिका आसा ती अशी - विष्णुन ज्या वेळार मोहिनीचें रूप घेवन देवांक अमृत वांटलें, तेन्ना शिव ते मोहिनीक भाळ्ळो. ती धांवत सुटली तेन्ना शिव तिचे फाटीक लागलो. हे धांवपळींत शिवाचें वीर्य बारा सुवातींनी गळ्ळें आनी जंय जंय पडलें, थंय थंय शिवलिंग निर्माण जालें.

**स्वयंभू लिंगां :** ज्योतिर्लिंगांच्या फाटल्यान ह्या लिंगांक म्हत्व आसा. हीं लिंगां यदृच्छेन आपोआप निर्माण जातात आनी कोणाक तरी तांचो साक्षात्कार जातकच तांची पुजा सुरू जाता.

**मानुष लिंगां :** पार्वती, भक्त, सिध्दपुरूश, अवतार आनी हेर कोणेंय जीं लिंगां घडयलीं आनी स्थापलीं, तांकां मानुष लिंगां म्हण्टात. स्कंदपुराणाच्या अवंतीखंडांत चवद्यांयशीं शिवलिंगांचे स्थापनेच्यो कथा आसात. तातूंत कोणाकडल्यान तरी पाप घडचें, ताच्या क्षालनार्थ ताणें ऋषींच्या आदेशावयल्यान लिंगाची स्थापणूक करची, ताचे उपासनेन मुक्त जावंचें आनी उपरांत तें शिवलिंग त्या भक्ताचे तपस्येची सुवात म्हणून प्रसिद्द जावंचें अशे तरेचीं वर्णनां आसात. काशींत अशा वेगवेगळया भक्तांनी स्थापन केल्लीं खूबशीं लिंगां आसात. मानुष लिंगाचे धा प्रकार सांगल्यात, ते अशे - १) सार्वदेशिक २) सर्वसम ३) वर्धमान ४) शैवाधिक ५) स्वस्तिक ६) त्रैराशिक ७) अध्य ८) नागर ९) द्रवीड आनी १०) बेसर.



शिवलिंग

**मुखलिंगां :** एकेकदां कांय लिंगांक मुखां करतात. तातूंत एक मूख आसल्यार तें ब्रह्मप्रतीक, तीन मुखां आसता तें त्रिगुणप्रतीक आनी चार मुखांचें तें चतुर्दिशांचें प्रतीक मानचें. लिंगाच्या चार दिकांक चार आनी मस्तकाचेर एक मूख आसता तेन्ना तीं मुखां सद्योजात, वामदेव, अघोर, तत्पुरूश आनी ईशान अशीं शिवाच्या पांच रुपांचीं प्रतिकां समजुंचीं. भारतांत सगळयाक चडशीं एकमुखी, त्रिमुखी आनी चतुर्मुखी लिंगां दिसतात.

**पंचभूतलिंगां :** दक्षिण भारतांत पंचमहाभुतांचीं पांच लिंगां आसात तीं अशीं - पृथ्वी - शिवकांची, जल - जंबुनाथ, तेज - अरुणाचलम, वायू - कालहस्ती आनी आकाश - चिदंबरम.

**अष्टोत्तर शत आनी सहस्त्रलिंग :** रुद्र भागाचेर उब्यो आडव्यो समांतर ओळी कोरांतून एकशें आठ वा हजार चवकोन तयार केल्ल्यान हीं लिंगां जातात.

**धारालिंग :** विष्णुभागाचेर पांच सावन अठ्ठावीस मेरेन खोल उबे कोंगरे तयार केल्ल्यान हें लिंग तयार जाता. हाका लागून अभिशेकाचें उदक सहजतायेन व्हांवन वता.

सिंधुसंस्कृतींत लिंगपुजा रूढ आशिल्ली. पयलीं वैदिक आर्यांक ती पसंत नाशिल्ल्यान वैदिक वाङ्मयांत तिचें वर्णन केल्लें मेळना. महाकाव्यांनी लिंगपुजेचें वर्णन आसा. फुडें शिवलिंगपुजेचें म्हत्व इतलें वाडलें, शिवमंदिराच्या गाभाऱ्यांत शिवलिंगाचीच स्थापना जावंक लागली. लिंगायत पंथाचे अनुयायी शिवलिंगाचीच पुजा करतात.

सिध्दान्तशेखरांत कित्ल्याशाच वेगवेगळया देवतांच्या लिंगांचो उल्लेख आसा. विष्णुलिंगाक शंखाकृती शिखर आसता. ब्रह्मलिंग

कमळाभशेन दिसता. अग्निलिंगाक दोन शिखरां आसतात. इंद्रलिंग छत्राभशेन दिसता. यमलिंग त्रिपाद आसता. निर्ऋतिलिंग खड्गा (तरसादी) भशेन दिसता. वरुणलिंग कळशाभाशेन आसता. वायुलिंग ध्वजाभाशेन आनी ईशानलिंग त्रिशुळाभशेन दिसता. कुबेराचें लिंग गदेप्रमाण दिसता.

पयलींच्या काळांत नाणीं आनी मुद्रांचेर शिवलिंग आसतालें. ताचेवयल्यान पुर्विल्ल्या काळासावन भारतांत शिवलिंगपुजा आशिल्ली म्हणूं येता.

- कों. वि. सं. मं.

## लिंगपुराण : (पळेयात पुराणां).

## लिंगपुजा : दादल्याच्या वा बायलेच्या जननेंद्रियांची म्हळयार लिंग वा योनीची उपासना, पुजा वा भक्ती. दादलो - बायलेचे प्रजोत्पादनक्षमतेचें तशेंच सैमाचे सुफलतायेचें वा सर्जनतायेचें प्रतीक म्हणून लिंग आनी योनीपुजा प्रचलित जाली. ही पुजा चड करून प्राथमिक धर्मांनी, सद्याच्या कांय आदिम जमातींच्या धर्मांनी तशेंच कांय उंचेल्या धर्मांनीय मेळटा. विंगड विंगड धर्मांच्या विकासाच्या इतिहासावयल्यान कांय देशांनी आनी संस्कृतायांनी अशी बायल - दादल्यांच्या जननेंद्रियांची देवता रुपांत उपासना चालू आशिल्ल्याचें दिश्टी पडटा. फातर, खांबो, लांकूड, चित्रां हातुंतल्यान ह्यो लिंग आनी योनीप्रतिमा पुराणाश्म युगापसून सगळयाक दिसतात. पूण हे उपासनेंत खंयच अश्लीलतायेची आनी असभ्यतायेची कल्पना झळकना. प्रजोत्पादन आनी सैमाची सर्जनक्रिया ही सामकी सैमीक अशीच क्रिया मानल्या आनी म्हणून लिंग वा योनी हांचे पुजेविशींचें कर्मकांड तशेंच यातुक्रिया, विधी आनी उत्सव हे सदांच विश्वांतल्या मानववंश, प्राणिसृश्ट आनी वनस्पतसृश्ट हांच्या सातत्याखातीर आनी समृध्दीखातीर सामके गरजेचे म्हणून उदात्त आनी पवित्र अशे धर्मीक भावनेंतल्यानूच करप जाले. आयज लेगीत कांय समाजांनी ते करतात.

लिंगपुजेंतल्या लिंगाचें प्रतीक हें सदांच उत्थित अशा लिंगाचें आसता. उत्थित अशी लिंगरूप देवता ही खंयचे तरी प्रकारान सर्जनशीलताय, नवजीवनदान आनी सुफलताय हांचें प्रतीक आसा. सगळयाच उच्च धर्मीक प्रतिकांभशेनूच लिंग आनी योनी हातुंतल्यान गूढ अशा दैवी सत्याचो निर्देश जाता. पुर्विल्ल्या ग्रीसांतल्या बऱ्याचशा गूढमार्गी पंथांनी लिंगपुजेक खूब म्हत्वाची सुवात आशिल्ली.

प्राचीन इजिप्ती धर्मांतूय लिंगपुजा चलताली. हीरॉडोटसान वर्णन केल्ले प्रमाण इजिप्तांत ओसायरिस आनी मिन ह्या देवांच्या भव्य लिंगरूप प्रतिमांची राजवांनी ओडून मिरवणूक काडटाले. अशेच तरेन ग्रीसांतूय डायोनायसियन उत्सवांत मिरवणूक जाताली. डायोनायसस हो वनस्पतींच्या चड करून द्राक्षांच्या वेलींचे सुफळतेचो ग्रीक देव आशिल्लो आनी ताची व्हड लिंग आशिल्ल्या प्रतिमारुपांत पुजा जाताली. हर्मीझ, डीमीटर आनी प्रायपस हांचे उपासनेंतूय अशेच तरेचीं लिंगसदृश रुपां आशिल्लीं. फ्रे ह्या प्राचीन ट्यूटॉनिक देवाची सुफलतायेचो आनी समृध्दीचो देव म्हणून नामना आशिल्ली आनी ताची प्रतिमा उत्थित अशा व्हड लिंगासयत आसताली. लग्ना वेळार ताका बळी ओंपताले.

प्राचीन मेक्झिका आनी पेरू ह्या देशांनीय लिंगपुजा प्रचलित आशिल्ली, तशेंच ती उत्तर अमेरिकेंतल्या आदिवासी जमातींनीय आशिल्ली. आफ्रिकेंतल्या बऱ्याचशा जमातींनी आयज लेगीत लिंग आनी योनीपुजेचे विधी आनी यातुक्रिया प्रचलित आसात. बायबलांतूय लिंगपुजेविशीं उल्लेख मेळटात. बेथलांत आशिल्ल्या ज्या फातराचेर याकोब न्हिदलो, तो फातर लिंगप्रतिमाच आसुंये अशें अभ्यासकांचें मत आसा. चडशा मध्ययुगीन इगर्जांनी लिंगचिन्नां मेळटात, तशेंच युरोपांतल्या खेड्यांनी आयज लेगीत जे धर्मीक विधी करतात, तांचें स्वरूप लिंगपुजेभाशेनूच आसता. फ्रांसांत जे संतांचे पुतळे आसात, ते पुतळे मुळांत खंयच्या तरी पेगन देवांचेच आसुंये आनी तांचें खाशेलपण म्हळयार तांकां आशिल्लें उठावदार लिंग. बऱ्याचशा शेंकड्यांच्या काळांत ह्या पुतळयांचो लिंगभाग निपुत्रिक बायलांनी पुत्रप्राप्ती जातली अशें समजून फोडून व्हरून ताची पूड करून विधिवत वखदांत वापरली आसुंये अशें अभ्यासकांचें मत आसा.

आशिया मायनरांतली एटिसाचे पुराणकथे (मिथ) उपरांत रोमी धर्मांतूय म्हत्व मेळळें. एटिस हो मर्त्य गोरवां राखपी तरणाटो सिबली हे देवमातेच्या (आदिमाता) मोगांत पडलो पूण वचनभंग केल्ल्यान ख्यास्त म्हणून एटिसाक आपलें लिंग कापून प्राणत्याग करचो पडलो, अशी ही मूळ पुराणकथा. फ्रीजियन आनी उपरांत रोमी पुराणकथांनी एटिसच्या कापिल्ल्या लिंगाचें पायन वृक्षांत रुपांतर जालें. थंयचे पुरयत एटिसाचें अनुकरण म्हणून स्वताचें खच्चीकरण करून घेताले. देवाचें खच्चीकरण म्हळयार नव्या जीवनाचो आरंभ. ग्रीक पुराणकथेंत क्रोनसान ताचो बापूय युरेनस हाचें लिंग कापून उडयलें. त्या रगतांतल्यान एरिनीझ आनी हेर 'जायंट्स' (राकेस) निर्माण जाले. कापिल्लें लिंग दर्यांत उडयलें. ताचो फेंस जावन ताचेपसून ॲफ्रोडायटी ही सौंदर्याची आनी मोगाची देवता उत्पन्न जाली.

**भारतांतली लिंगपुजा :** इतिहासाच्या आदिकाळासावन आयजमेरेन, भारतांत लिंगपुजेची परंपरा चालू आसा. योनी आनी लिंग हांचो संयोग हें जीवसृश्टीचें कारण. हाचेवयल्यान अखिल सृश्टीचें आदिकरण तेंच आसूंक जाय, हे कल्पनेन सयोनी लिंगाची पुजा सुरू जाली. भारतांतल्या द्रविडपूर्व जमातींनी लिंगपुजा जाताली. द्रविड लोकांमदीं शिव ह्या नांवान ताची पुजा जाताली. वैदिक आर्यांची रुद्र ही संहारक देवता आनी द्रविडांची शिवदेवता हांचें एकीकरण जावन रुद्रशिवाची उपासना भारतांत सुरू जाली. ही उपासना मुर्तीचीय आसताली आनी लिंगाचीय आसताली. पूण ऋग्वेदांत लिंगपूजक

लोकांक यज्ञविरोधी मानल्यात. तेचप्रमाण इंद्राचें वर्णन शिस्नदेवहन अशें केलां.

शिव उपासनेचो मुखेल आचार म्हणून जगांतल्या खूबशा समाजांनी पुर्विल्ल्या काळासावन लिंगपुजा प्रचारांत आसा. जगाचें आदिकरण जें अव्यक्त, निर्गुण परब्रह्म, ताचें मूर्त स्वरूप म्हळयार शिवलिंग अशी, उच्च आध्यात्मिक कल्पना जायत्या पुराणांनी मांडल्या. लिंगाचे उत्पत्तीविशींच्यो कथा पुराणांनी सांगल्यात. लिंगपुराण, शिवपुराण, कूर्मपुराण, वामनपुराण हातूंत शिवाची उत्पत्ती, ताचे पराक्रम, लिंगाची अर्चना, विंगड विंगड लिंगांचें माहात्म्य अशे बरेचशे विशय आसात.

दक्षिण भारतांत तरातरांचीं खूब शिवालयां आसात. शिवपंचायतनाच्या देवळांत मदीं शिवलिंग आनी चारूय वटांनी सूर्य, गणेश, देवी आनी विष्णु हांचीं ल्हान ल्हान देवळां आसात. चडशे सगळया दर्ज्याचे लोक शिवलिंगाची पुजा करतात. शैव ब्राह्मण वा गुरव वा जंगम ह्या नांवाची शिवलिंगाच्या पुजाऱ्याची एक स्वतंत्र जात उत्पन्न जाल्या. चल आनी अचल अशा दोन प्रकारांचीं लिंगां आसतात. लिंगप्रतिश्ठा, पुनःप्रतिश्ठा, अर्चना, स्नानविधी हांचें वर्णन बौधायन गृह्यशेषसुत्रांत केलां. पुजा षोडशोपचारांनी वा कृत्रीम अशी दोन तरांची आसता. कृत्रीम लिंगां हीं लांकूड, फातर, धातू, रत्नां, शिंपल्यो, फटीक, माती, रेंव हांचेपसून केल्लीं आसतात.

नर्मदेंत मेळपी बाणलिंगां खूब पोरन्या काळासावन प्रसिद्द आसात. प्रसिद्द बारा ज्योतिर्लिंगां शिवाच्या विर्यांतल्यान निर्माण जालीं अशी पुराणकथा आसा. पंचमहाभुतांचीं प्रतिकां म्हणून कांय देवळांतलीं लिंगां प्रसिद्द आसात. शिवाचो भक्त बाणासूर हाणें चवदा कोटी शिवलिंगांची विंगड विंगड सुवातींनी स्थापणूक केली अशी कथा आसा. कांय लिंगांनी पृश्ठभागाचेर एकशें आठ वा एक हजार लिंगां कोरांतिल्लीं आसात. कांय पुर्विल्ल्या देवळांनी मूखलिंगां आसात.

कर्नाटकांतले लिंगायत हे लिंगाची पुजा करतात. ते पाशाणाचें शिवलिंग सदांच आपल्या आंगाचेर दवरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**लिंगम :** एक वन्य जमात. आसाम प्रदेशांतल्या खासी दोंगराच्या अस्तंत भागांत हांची वसणूक आसा. वंशशास्त्रज्ञांच्या मतान खासी आनी गारो ह्या दोन जमातींतल्या संकरांतल्यान ही जमात निर्माण जाली.

हे लोक रंगान काळे आसून लांबायेन मोटवे आसतात. तांचें मुखामळ तिबेटी, ब्रह्मी लोकांवरी म्हणजे मोंगोली सया मारपी आसता. दादले बिन हाताचे कोट घालतात आनी रूंद लंगोटी न्हेसतात. माथ्याक ते लोकरीची तोपी वा पागोटें घालतात. बायलो कमराक फकत रंगीत लुगट गुठलायतात. त्यो गळयांत निळया मणयांच्यो माळी आनी कानांत जड कडीं घालतात. दादलेय कानांनी आनी हातांनी कडीं घालतात. जांचेकडेन थाळयेवरी जायत्यो घांटी आसतात तांकां ते गिरेस्त समजतात.

तांचीं घरां कोंड्याचीं पूण घटमूट आसतात आनी तीं दोंगुल्लेचे देंवतेचेर आशिल्ल्यान तांची एक वट जमनीचेर आनी दुसरी वट कोंड्याच्या आदाराचेर आसता. घराच्यो जमनी कोंड्याच्योय आसतात. ते जमनीर वा शेंदरेर न्हिदतात आनी झाडाचे सालीपसून तयार केल्लीं पांगरुणां वापरतात.

हे लोक पुर्वजांची, भुतांखेतांची आनी देवतांची पुजा करतात. मूळ स्त्री, ऋषीदेवता आनी रानांतलो सैतान हांकां राखण, समृध्दी आनी रोगनिवारणा खातीर जनावरां - सुकण्यांचो बळी दिवप हो तांचो धर्मीक कार्यक्रम.

तांच्यांत एकाच घराण्यांतल्या चले-चलयांकडेन लग्नां जायनात. गारो जातीकडेन तांचो लग्नसंबंद जाता. कोंबयो आनी दुकरां मारून खावप आनी भरपूर सोरो पियेवप होच तांचो मुखेल लग्नविधी आसता. तांची कुटूंब पद्दत मातृसत्ताक आसून वारसो पद्दत खासी लोकांवरी आसता.

हे लोक मडें लासतात. मडें लासचे पयलीं ताकां बैल मारून गांवजेवण दिवचें पडटा. दर खेपे बैल मेळप कठीण आशिल्ल्यान तो मेळसर मडें घरांत स - स म्हयने पडून उरलें तरी तांकां कांयच दिसना. मड्याच्यो अस्थी घरामुखार फोंड मारून पुरतात आनी यादस्तीक म्हणून ताचेर एक फातर दवरतात.

शेती हो तांचो मुखेल धंदो. दर दोन वर्सांनी ते शेताखातीर नवी सुवात सोदतात. रानां मारून आनी तीं लासून ते त्या जाग्यार शेत रोयतात. ताका लागून ते एकाच जाग्यार थीर नासतात. ते तांदूळ आनी कड्डणांचें पीक काडटात. तेभायर मिरसांग, हळद, कणगां, आलें, वायंगीं हींय पिकां ते काडटात. लाख पिकोवपाचो धंदो ते व्हड प्रमाणांत करतात. भाताचें पीक तांकां फावो तितलें मेळनाशिल्ल्यान ते रानकेळीं, कोंडे वा वेत हांचे तरणे कोंब खातात. ते फोंड मारून तातूंत जनावरां धरतात आनी विखयाळी वनस्पत उदकांत उडोवन नुस्तें धरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**लिंगायत :** एक संप्रदाय. ह्या संप्रदायाचे लोक शरिराचेर लिंग धारण करतात, देखून तांकां लिंगायत, लिंगांगी आनी लिंगवत अशींय नांवां आसात. हे लोक शिवाचे उपासक आशिल्ल्यान तांकां वीरशैव आनी शिवशरण अशींय नांवां आसात. ह्या लोकांची वसणूक चड करून कर्नाटक आनी दक्षिण महाराष्ट्रांत आसा.

बसवेश्वर हो लिंगायत संप्रदायाचो पुरस्कर्तो. तो जातिभेदाआड आशिल्लो. जे लोक लिंग धारण करतात, ते सगळे समान दर्ज्याचे

अशी ताची शिकवण आशिल्ली. तेरवातीर त्या लोकांभितर जातीभेद नाशिल्लो. बसवेश्वराच्या हेर उद्देशांभितलो एक मुरवेल उद्देश म्हळयार ब्राह्मणांचें वर्णश्रेश्ठत्व न्हयकारप वा उणें करप. पूण ताचो हो उद्देश पुराय सफळ जालोना. उपरांत त्या संप्रदायांत रवूब पोटजाती निर्माण जाल्यो आनी लिंगायत लोकांमदल्या उच्च वर्गांत जायत्या ब्राह्मणी पद्दतीचे रिती - रिवाज आयले. लिंगायत लोकांमदीं मुरवेल अशे तीन वर्ग आसात.

**१) पंचमसाळी :** हे लोक सगळया लिंगायतांभितर स्वताक श्रेश्ठ समजतात. संप्रदायाची ज्या लोकांनी पयली दिक्षा घेतली, तांचेकडेन संबंदीत असो हो वर्ग आसुंये. ह्या वर्गाक शुध्द लिंगायत अशें नांव आसा. नंदी, भृंगी, वृष, वीर आनी स्कंद अशीं ह्या वर्गाचीं पांच गोत्रां आसात. ह्या सगळया पोटभेदांनी रोटी बेटी वेव्हार चलता. पूण लग्नसंबंदांचेर कांय बंधनां आसात. हो वर्ग अर्थीक आनी समाजीक नदरेन उंचेलो आसा.

ह्या वर्गाक अष्टावरणांचो अधिकार आसा. अय्या वा जंगम ह्या नांवान वळखुपी उपाध्याय लेगीत ह्याच वर्गांत आस्पावतात. बंजिग ह्या नांवाचो मुरवेल वेपारी वर्ग हातुंतूच येता.

**२) संलग्न लिंगायत :** पंचमसाळयांभायर कोष्टी, तेली, गवंडी, धनगर, शेतकार ह्या वेवसायीक लोकांचो ह्या वर्गांत आस्पाव जाता. पंचमसाळी लोकांउपरांत ज्या लोकांनी संप्रदायाची दिक्षा घेतली ते हे लोक आसुंये. हांकां संलग्न लिंगायत अशें नांव आसा. ह्या लोकांभितर सत्तर पोटभेद निर्माण जाल्यात. पूण तांचेभितर रोटी - बेटी वेव्हार जायनात. म्हैसूर प्रदेशाच्या कांय वाठारांनी हे लोक हेर पंथांतल्या चलयांवांगडा लग्न जातात. लग्न जातकच ह्यो चलयो लिंग धारण करतात.

**३) अर्दलिंगायत :** मडवळ, चामार, रवारवी ह्या लोकांचो हातूंत आस्पाव जाता. हांकां अष्टावरणाचो अधिकार ना. उंचेल्या वर्गांतले लिंगायत लोक ह्या लोकांक लिंगायत अशें मानिनात तेरवातीर तांकां अर्दलिंगायत म्हण्टात.

लिंगायत लोकांभितर सामान्य, रवाशेले आनी निराभारी अशे आनीक तीन भेद आसात. तशेंच, माहेश्वर आनी भक्त अशे आनीक दोन भेद आसात. माहेश्वर हो गुरूवर्ग आसून भक्त हो शिश्यवर्ग. पयलींपसून लिंगायतांचें ब्राह्मणांकडेन आनी माध्वांकडेन वांकडेपण. ह्या पंथांत यज्ञयाग, उपांस - तापास ह्या गजालींक सुवात ना. तांकां विष्णुपूजाय मान्य ना. हे लोक सुयेर, सुतक वा भश्टकार ह्यो गजाली मान्निनात. तशेंच हेर लोकांचें अन्न - उदकूय ते घेनात. सगळे दादले - बायलो आंगांचेर शिवलिंग धारण करतात. हें लिंग पाशाणाचें आसून तें रुप्याचे डबयेंत घालून रस्मी दोन्यान गळयांत बांदतात. सकाळीं उठून न्हावन - धुवून भस्म लायतकच लिंगस्पर्श करून हे लोक अन्न - उदक घेतात.

लिंगायत लोक कन्नड भास उलयतात. हो पंथ कर्नाटकांतूच जल्मलो, थंयच वाडून ताचो विस्तार जालो. तांचें बरेंचशें साहित्य कन्नड भाशेंतूच आसा.

शिव हो लिंगायत लोकांचो मुरवेल देव आनी परम आराध्य देवता. तोच निर्मातो, कर्तो, धर्तो, संहर्तो अशें ते मानतात. शिवाचें प्रतीक म्हणून ते लोक लिंगाची आनी ताचें वाहन म्हणून नंदीची पुजा करतात. गणपती, मारुती आनी यल्लम्मा ह्या देवतांकूय लिंगायत लोक भजतात.

**अष्टावरण :** हो लिंगायतांचो एक म्हत्वाचो आनी गरजेचो असो धर्मीक संस्कार. जीव हो मुळांत शिवरुपी आसा आनी तो अज्ञानरुपी आवरणारवाला धांपिल्लो वा बध्द आसता. जीवाक शिवैक्य प्राप्त करपारवातीर आंगाच्या गुणांपसून मुक्त जावन लिंगत्व प्राप्त करचें पडटा. तेरवातीर जी साधना करची पडटा तिका आदारीत अशो आठ गजाली मानल्यात. साधना अवस्थेंत कसल्याय कवचाप्रमाण ह्यो गजाली जीवाची रारवण करतात. ह्यो गजाली आठ आशिल्ल्यान तांकां अष्टावरण अशी संज्ञा आसा. तांचीं नांवां आनी कार्यां अशीं -

**१) गुरू :** लिंगायतांचे लिंग - उपासनेंत गुरूक म्हत्वाची सुवात आसा. गुरू होच जीवाक लिंगसाधनेच्या कामांत प्रवृत्त करता. शिश्याच्या हातांत लिंग दिवन गुरू ताका दिक्षा दिता. गुरूकडल्यानूच शिश्याक धर्माचें रहस्य समजता. तेरवातीर लिंग साधकांनी गुरूक शिवस्वरूप मानचें अशें सांगलां.

**२) लिंग :** लिंग म्हळयार साक्षात परतत्त्व. भावलिंग, प्राणलिंग आनी इष्टलिंग अशे लिंगाचे तीन प्रकार आसात. दिक्षा दिवपावेळार गुरू ह्या तिनूय लिंगांची स्थापना शिश्यांच्या अनुक्रमान कारण, सूक्ष्म आनी स्थूल शरिरांनी करता. ह्या वेळार भक्त, इष्टलिंग आपल्या दाव्या हाताचेर दवरून ताची पुजा करता. हे पुजे वेळार भक्त अशी धारणा करता, जर हांव शिवापसून वेगळो जालों तरी हांव स्वता शिवाचेंच आंग.

**३) जंगम :** हे जीवन्मुक्तूच आसतात आनी भक्तांचे अध्यात्मीक साधनेक मदत करपारवातीर जगात भोंवत आसतात. जंगम हे गुरू इतलेच पुज्य आसात. स्थिर, चर आनी पर अशे जंगमांचे तीन प्रकार आसात.

**४) पादोदक :** गुरू आनी जंगम हांच्या पांयांचें उदक म्हळयार पादोदक. पादोदक हें सगळया तिर्थांचें प्रतीक आशिल्ल्यान तें देह, मन आनी भाव हांची शुध्दी करता. तेरवातीर दर एका लिंगायतान पादोदकाचें सेवन करपाचें आसता.

**५) प्रसाद :** गुरू वा जंगम हांणी उश्टायलें अन्न म्हळयार प्रसाद. हो प्रसाद सेवन केल्यार चित्ताची शुध्दी जावन कर्मसंस्काराचो नाश जाता. तेरवातीर दर एका शिवशरणान, आपूण जें किदें रवातां, तो गुरुचो प्रसाद आसा अशें मानूंक जाय.

६) **विभुती :** भस्माक विभुती म्हण्टात. शिव भस्म धारण करता आशिल्ल्यान तें परम पवित्र आसा. जे तरेन शिवान कामदहन करून ताचें भस्म आंगाक लायलें, तेच तरेन शिवाच्या भक्तांनीय लावपाचें आसता. कामक्रोध हे षड्रिपू जिखपाखातीर भस्माचो आदार जाता. जाच्या शरिराचेर भस्म आसता ताका पाप केन्नाच आफडूंक पावना, असो लिंगायतांचो विस्वास आसा.

७) **रुद्राक्ष :** लिंगायत रुद्राक्षांची माळ गळयांत घालतात. रुद्राक्षांक लागून शिवभक्तांचें ध्यान स्थीर जावपाक मदत जाता. गुरू वा जंगम हो लिंगायताक रुद्राक्षमाळ दिता. रुद्राक्ष धारण केल्ल्यान आपल्याक सगळया वटांनी शिवाची राखण मेळटा अशें लिंगायत मानतात.

८) **मंत्र :** 'ॐ नमः शिवाय' हो लिंगायतांचो षडाक्षरी मंत्र. लिंगायताक दिक्षा दिवपाच्या वेळार गुरू ह्या मंत्राचो उपदेश ताका दिता. लिंगायताच्या मतान हो मंत्र शिवभक्तांच्या शरिरांत सगळयाक आसता. तेखातीर ते सदांच आपलें शरीर पवित्र मानतात आनी मनशाच्या जल्माक हरजल्म म्हण्टात.

भुरगें जल्माक येतकच त्या घराण्याचो जो गुरू आसता ताका आपयतात. हो गुरू पंचाचार्यांतल्या कोणाचोय प्रतिनिधी आसता. तो भुरग्याच्या गळयांत लिंग बांदता आनी ताका विभुती लायता. उपरांत ताच्या कानांत 'ॐ नमः शिवाय' हो मंत्र सांगता. जंगम येतकच भुरग्याचो आवय - बापूय जंगमाचे पांय धुतात आनी त्या उदकाक शिवाचें चरणतीर्थ मानतात. त्याच उदकान भुरग्याच्या आंगावयल्या लिंगाक अभिशेक घालतात. जंगमाक जेवपाक वाडटात आनी ताच्या पानांतलें अन्न प्रसाद म्हणून भुरग्याच्या ओंठाक लायतात. त्या भुरग्याक जंगमाचे वतीन शिवाक ओंपतात. हें भुरगें आठ वा धा वर्सांचें जातकच होच विधी परतून करतात.

**पंचाचार :** अष्टावरण ह्या संस्काराभाशेन पंचाचार होय एक तांचो म्हत्वाचो संस्कार. सदाचार, गणाचार, नित्याचार, शिवाचार आनी लिंगाचार अशे हे पंचचार. शुध्द नैतिक जीण जगप हाका सदाचार म्हण्टात. सत्य आनी धर्म हांची राखण करप हाका गणाचार म्हण्टात. लिंगपूजा, पाठ, ध्यान, व्रत ह्यो गजाली नेमान करप हाका नित्याचार म्हण्टात. जे कोण लिंगधारक आसतात त्या सगळयाचो मान राखप हाका शिवाचार म्हण्टात. तशेंच भावार्थान लिंग धारण करून नेमान ताची पुजा करप हाका लिंगाचार म्हण्टात.

**मठ :** लिंगायतांचे वसतेंत तांचे मठ आसतात. हे मठ पंचाचार्यांतल्या कोणाय आचार्याचे परंपरेंतलें आसून त्या आचार्यांचे अनुयायी त्या मठांकडेन संलग्न आसतात. लिंगायतांचे पांच मुखेल आचार्य आसून, तांकां वीरशैव धर्माचे पुरस्कर्ते मानतात.

तांचीं नांवां आनी मुखेल मठ अशे आसात -

१) रेणुकाराध्य ह्या आचार्याचो मठ रंभापुरी वा बाळेहळ्ळी (कौल्लपाक) गांवांत आसा. २) मरुळाराध्य हाचो मठ उज्जैनाक (वटक्षेत्र) आसा. ३) एकोराम हाचो मठ श्रीशैलाक (द्राक्षारामम्) आसा. ४) पंडिताराध्य हाचो मठ केदाराक (सुधाकुंड) आसा आनी ५) विश्वाराध्य हाचो मठ वाराणसीक आसा.

सद्या हे पांचूय मठ विद्यमान आसात. ह्या मठांच्या आचार्यांच्या नांवांवयल्यान लिंगायतांचींय गोत्रां चलतात. लिंगायतांचे पुरयत स्वताक ह्या पांच मठांतल्या खंयच्या तरी एका मठाचो मानतात. मुखेल आचार्य तो जगद्गुरू. ताच्या अधिकाराखाला मठ, मठपती, स्थावर, गणाचार्य आनी देशिक अशे पांच उपाचार्य आसतात. मठांक श्रेश्ठी आनी म्हाजनांची मदत आसता. हे मठाधिकारी भगवीं वस्त्रां न्हेसतात.

दोन मिरवणुकी - लिंगायतांच्यो दोन धर्मीक मिरवणुकी खाशेल्यो अशो आसतात. एकेचें नांव नंदीकोडू म्हळयार नंदीश्रृंग आनी दुसरे मिरवणुकीचें नांव व्यासंतोल म्हळयार व्यासहस्त.

नंदीच्या शिंगाविशीं एक कथा आसा ती अशी - एक फावट एका दैत्यावांगडा झगडटना नंदीचें एक शींग तुटून पडलें. ताच्या अनुयायांनी तें सोदून काडलें आनी ताची मिरवणूक काडली. ताची याद म्हणून सद्या अशी मिरवणूक श्रावण म्हयन्यांत काडटात. शींग म्हणून एक कोंडो घेतात आनी ताका रंगीत कपडयाचे पटे गुठलायतात. कोंडयाचे मदीं फळयांचेर दोन नंदी बसयतात आनी त्या कोंडयांची मुखेल रस्त्यांतल्यान मिरवणूक काडटात.

व्यासंतोल मिरवणुकीखातीर व्यासमुनीचो म्हणून कपडयाच्या तिराटयांचो एक हात करून तो नंदीच्या शिंगाक बांदतात आनी ताची मिरवणूक काडटात.

लग्नप्रथा - पयलींच्या काळांत लिंगायतांभितर बाल आनी प्रौढ अशो लग्नाच्यो दोन पद्दती आशिल्ल्यो. पूण सद्या प्रौढ ही एकूच लग्न पद्दत चालंत आसा. लिंगायतांचीं एकाच कुळांत वा गोत्रांत लग्नां जायनात. व्हडले भयणीची चली वा मावशेभयणीकडेन लग्न जावपाक मेळटा. घटस्फोट आनी पुनर्विवाह हांकांय मान्यताय आसा. हेर हिंदू कायद्याप्रमाण वारसो हक्काचोय कायदो तांचेमदीं आसा.

परंपरेप्रमाण लग्न सुवाळो आसता तो असो - न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेच्या बापायकडेन मागणी घालता. हो लग्नसंबंद पसंत आसल्यार सोयऱ्यांसामकार सोयरीक पक्की करतात. उपरांत न्हवऱ्याक - व्हंकलेक कपडे दितात आनी दोगांकूय विडे दितात. ह्या विडयांक साक्षीविडे म्हण्टात. लग्नापयलीं व्हंकलेचो बापूय न्हवरेकारांक जेवण घालता आनी कपडे दिता. ह्या सुवाळयाक बाशनगी म्हण्टात. लग्नापयलीं गुग्गुळविधी आसता. उपरांत अरशन, देवकार्य, गुरुची पाद्यपुजा हीं कृत्यां जातात.

साकरपुडया वेळार जंगमाक घेवन व्हंकलेगेर वतात. व्हंकलेखातीर कांबळ घालून तिचेर तांदूळ पातळायटात आनी व्हंकल फुलांचो मुकूट घालून ते कांबळीचेर बसता. उपरांत न्हवऱ्यावटेनचे

लोक साडी, पोल्क, दोन नाल्ल, पांच हळदीकुटां, पांच लिंबू आनी पांच विडे ह्या साहित्यान तिची होंट भरतात. सवायशीण बायलो ते कांबळीवयले तांदूळ घेवन ते व्हकलेचीं धोपरां, खांदे आनी तकलेचेर तीन खेपे उडयतात. उपरांत साकर आनी विडे वाट्टांत. व्हंकलेवटेनचो कोणूय जाण्टो मनीस थारायल्ल्या न्हवऱ्याक व्हंकल दिल्ल्याचें जाहीर रितीन कळयता आनी न्हवरेकार व्हंकलेक आपणायल्ल्याचें सांगता.

हो लग्नसुवाळो चार दीस चलता. पयल्या दिसा पितरांची पुजा जाता. दुसऱ्या दिसा तेल आनी तांदूळ मठाक दितात आनी सोयऱ्यांकूय दितात. तिसरो दीस चड म्हत्वाचो. त्या दिसा पांच मुखेल आचार्यांचीं प्रतिकां म्हणून पांच कलश देवघरांत स्थापतात. चार कोनशांक चार कलश आनी मदीं एक अशी तांची मांडावळ आसता. तांचेर नाल्ल, खाजूर, विडो आनी लेसांत बांदून एक पयसो दवरतात. ह्या पांचांचे गवायेनूच लग्नसुवाळो जाता.

लग्नाखातीर सवो घालतात. सव्याच्या चारूय वटांनी सुतान रेवडिल्ले चार कलश मांडटात. न्हवऱ्याक सव्यार बसोवन पांच सवायशिणी ताका तेल - हळद लायतात. उपरांत कुटुंबांतली जाण्टी बायल आदल्या दिसा पितरांच्या नांवान काडून दवरिल्लीं वस्त्रां व्हंकलेक न्हेसपाक दिता. व्हंकलेक - न्हवऱ्याक नटयतकच, न्हवरो बैलाचेर बसून देवळांत वता. थंय, देवळांत ताका बाशींग बांदतात. लिंगायतांच्या लग्नांत अंतरपाट नासता. न्हवरो गुरू मुखार बसता आनी व्हंकल न्हवऱ्याचे दावे वटेन बसता. गुरू त्या दोगांयचे हात दर्भांनी बांदता आनी तांचेर उदक घालून फुलां आनी बिल्वपत्रां घालता. उपरांत त्या दोगांयच्या मनगटांक सूत बांदता आनी 'सुमुहूर्त सावधान' म्हणटा. न्हवऱ्या - व्हंकलेक हेर मंडळी आशिर्वाद दिता. न्हवरो व्हंकलेच्या गळयांत मंगळसूत्र बांदतकच तांचेर अक्षता उडयतात. न्हवरो व्हंकल एकमेकांच्या कपलाक जिरें आनी गोड लायतात. उपरांत न्हवऱ्या - व्हंकलेच्या कपड्यांक गांठ मारतात. व्हंकल न्हवऱ्याक पांयां पडटा. न्हवरो तिच्या माथ्यार अक्षता उडयता. हें नवें जोडपें मागीर पांच जंगमांक फळां आनी एकेक पयसो दिता. ताचेउपरांत व्हंकल - न्हवऱ्याचे पांय धुवन तांकां केळवण करतात आनी सोयऱ्या - धायऱ्यांक जेवण घालतात. चवथ्या दिसा बैलावयल्यान वरात काडटात. वरात परत येतना व्हंकल - न्हवरो एकामेकांचेर गुलाल उधळटात. उपरांत मेजवानी जातकच व्हंकल - न्हवरो आपल्या मनगटाचें सूत सोडून तें हुमऱ्याचेर दवरता. त्या वेळार पांच सवायशिणी बायलांचो भोवमान करतात.

लिंगायत लोकांभितर मनीस मरणाधडेर आसल्यार, विभूतिवेलाई नांवाचो विधी करतात. तेरखातीर त्या मनशाक न्हाणोवन, ताच्या तोंडांत जंगमाच्या पांयांचें उदक घालतात. जंगमाक दक्षिणां दिवन सगळयांक जेवण घालतात. मनीस मरतकच मडें आसनाचेर बसोवन, जंगम आपलो दावो हात मड्याचे उजवे मांडयेर दवरता. मड्याक परमळीत लेप काडून वस्त्र - अलंकार घालतात. मड्याक नमस्कार करून तें मसंडेंत व्हरतात. थंय स हात लांबायेचो एक फोंड खणटात आनी उत्तरेवटेन तोंड करून तें मडें तातूंत बसयतात. थंय एक कुरकूट करतात. 'हे शिवा, तूं आपल्या भक्ताक कैलासांत सुवात दी' ह्या आशयाची चीट बरोवन ती मड्याच्या गळयांत बांदतात. दक्षिणां मेळटकच गुरू ते चिटीर निशाणी करता. मड्याच्या दाव्या हातांत लिंग दितात. मड्याक नारिंगी रंगाचें वस्त्र गुठलायतात आनी मडें बशिल्ले स्थितींतूच पुरतात. मेल्लो मनीस आंकवार आसत जाल्यार ताचें मडें तिरपें दवरून पुरतात. फोंड पुरयतकच जंगम थारायल्लें दान घेवन त्या फोंडाचेर उबो रावता आनी मेल्लो मनीस कैलासाक गेल्ल्याचें जाहीर करता. लिंगायत मेल्ल्याचें क्रियाकर्मांतर करिनात पूण कांय लोक श्राध्द वाडटात. आधुनिक विज्ञानयुगांत तशेंच शारीकरणाचे प्रक्रियेंत हेर संप्रदायांप्रमाण, लिंगायत संप्रदायांतय गरजेचे अशे बदल घडून, तांच्यो चालीरितींनी सदळसाण आयल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**लिंबू :** भारतांत ह्या फळाचे कागदी लिंबू आनी साकर लिंबू अशे दोन प्रकार लागवडीखाल आसात. हातुंतल्या कगदी लिंबाक चड मागणी आशिल्ल्यान ताची चड प्रमाणांत लागवड करप जाता. साकर लिंबाची लागवड उत्तर आनी मध्य भारतांत तशेंच तमिळनाडूंत थोड्या प्रमाणांत करतात.

**कागदी लिंबू :** (हिंदीः कागझी निंबू; इंग्लीशः लायम, ॲसीड लायम, सावर लायम; लॅटीनः सिट्रस ओरॅण्टिफोलिया; कूळ : रूटेसी). हें खूब खांदयो आशिल्लें कांटेरी आनी मोटवें झोंप. पानां ल्हान आनी अशीर. फुलां ल्हान धवीं आनी तुऱ्यांनी येतात. फळां ल्हान, वाटकुळी वा तांतया आकाराचीं, २.५ ते ४ सेंमी. आसून कांय फळांच्या तोंकाकडलो भाग चिंवेवरी आसात. फळाची कात पातळ आनी चकचकीत गराक घट्ट दशिल्ली, पाचवी आनी चकचकीत गराक घट्ट दशिल्ली, पाचवी वा पिकतकच हळदुवसार, गर हळदुवसार पाचवो, आंबट आनी रुचीक आसता.

लिंबाचें मूळस्थान भारत अशें मानतात. पूण उश्ण कटिबंधांतल्या चडशा वाठारांनी तें वाडटा. मेक्सिको, वॅस्ट इंडिस, इजिप्त, भारत हे देश कागदी लिंबाच्या उत्पादनांत फुडें आसात. भारतांत ह्या फळाची लागवड सुमार २८,००० हॅक्टर क्षेत्रांत जाता आनी ती चड करून महाराष्ट्र, आंध्र प्रदेश आनी तमिळनाडू ह्या राज्यांनी आसा. कर्नाटक आनी गुजरातांत कांय प्रमाणांत लिंबाची लागवड करतात.

ह्या फळांत वाटकुळे आनी तांतया आकाराचे अशे दोन प्रकार आसात. आसामांतलो 'अभयपुरी लायम' हो तांतया आकाराच्या लिंबाचो एक नामनेचो प्रकार.

ह्या फळाक ऊबदार, थोड्या प्रमाणांत दमट हवामान लागता. नेटाचें वारें ह्या फळाच्या पिकाळ मारक थारता. इटली, स्पेन, अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां आदी सिट्रस प्रजातींतल्या झाडाचे लागवडीखातीर नामना आशिल्ल्या देशांत कागदी लिंबाची लागवड बरी जायना. भारतांत ह्या फळाची वेपारी तत्त्वार लागवड अस्तंत आनी दक्षिण भारतापुरती मर्यादीत जाता. महाराष्ट्रांत अहमदनगर, जळगांव आनी सोलापूर ह्या सुक्या हवामानाच्या जिल्ह्यांनी व्हड प्रमाणांत आनी ते उपरांत सांगली, धुळे, अकोला आनी नासिक जिल्ह्यांनी ह्या फळाची लागवड जाता. ह्या झाडाक १०° सॅ - ४०° सॅ तापमान बरें मानवता. ह्या पिकाक मध्यम काळी जमीन लागता. उदकाचो बरो निचरो जावपी जड काळे जमनींतूय हें झाड बरें वाडटा. जमनीचें pH मुल्य ६.५ -८ आसचें पडटा.

कागदी लिंबाची अभिवृध्दी बियांपसून करतात. एके बिये पसून ३-४ रोंपां मेळटात. बियेपसून तयार केल्लीं झाडां कलमापरस बरीं आसतात तशेंच त्या फळाचें उत्पादन बरें येता आनी तीं एक सारकेच प्रतीचीं आसतात. पूण तांकां फळां मात वेळान येतात. जंबुरीच्या रोंपार दोळे भरून केल्लीं कलमां जोमान वाडटात आनी तांकां फळां बेगीन येतात.

बीं किल्लून येतकच ताका ३-४ रोंपां येतात. पूण हातुंतलें एक लैंगिक जननाचें आनी हेर अलैंगिक जननाचीं आसतात. अलैंगिक जननाच्या रोंपांक न्युसेलर रोंपां अशें म्हण्टात. लैंगिक जननापसून तयार जाल्लीं रोंपां मोटवीं आसतात आनी तांकां एकसारकीं फळां येनात. तेखातीर हीं रोंपां हुमटून उडयतात. उत्तर भारतांत फेब्रुवारी - मार्च वा जुलय - सप्टेंबर आनी दक्षिणेंत मे - जून वा सप्टेंबर - ऑक्टोबरांत गादी वाफ्यांत लिंबाचें बीं पेरतात. हीं रोंपां ७.५ -१० सेंमी. ऊंच जातकच तीं काडून दुसऱ्या सपाट वाफ्यांत स्थलांतर करतात. हें रोंप एका वर्साचें जातकच तातुंतलीं एकसारके वाडीचीं रोंपां काडून तीं कायम जाग्यार लायतात. दोन झाडांमदलें सादारण अंतर ५ ते ६.५ मी. आसता. लागवड करचे आदीं तेंगशे कडलीं पानां दवरून हेर पानां काडून उडयतात.

कागदी लिंबाक वर्सातल्यान तीन फावट पालवी फुट्टा. त्या वेळार सारें घालपाची गरज आसता. कागदी लिंबाच्या पिकाक शेणखत नायट्रोजन मिश्रसारें घालचें पडटा. तेभायर पानां हळदुवीं पडचीं न्हय देखून झींक सल्फेट, मॅग्नेशियम सल्फेट उदकांत भरसून फवारतात. कागदी लिंबाचीं मुळां सादारण ६० सेंमी. खोल वतात. तेखातीर गिमांत ६ ते ८ दिसांच्या अंतरान आनी शियाळयांत १२ - १५ दिसांच्या अंतरान झाडाच्या खांदयांक उदक लागूंक दिनासतना शिंपतात. झाडाक फावो तो सूर्यप्रकाश आनी खेळटी हवा मेळपाखातीर तशेंच झाड घटमूट जावपाखातीर ल्हान आसतनाच झाडांची छाटणी करून ताका मोडण दिवप गरजेचें आसता.

कागदी लिंबाच्या झाडाक लागवड करतकच ४ - ५ वर्सां उपरांत फुलां आनी फळां धरपाक सुरवात जाता. ह्या झाडाक जरी वर्सूयभर फुलां आयलीं तरी जून, ऑक्टोबर आनी फेब्रुवारी हे तीन मुखेल हंगाम आसतात. तांचीं फळां अनुक्रमान नोव्हेंबर, एप्रिल आनी जून - जुलयंत तयार जातात. ह्या झाडाक एकूच चंवर धरप फायद्याचें थारता. वर्सूयभर फळां दिवपी झाडाची शक्त फुकट वचूंक शकता आनी फळांचो आकारूय बदलता.

फळांचें उत्पादन वर्साच्या कांय म्हयन्यांत चड आसता हो काळ भारतांत वेगवेगळया वाठारांनी वेगवेगळो आसता. आठ वा ताचेयपरस चड पिरायेच्या झाडाचें वर्सुकी उत्पादन १५०० ते २००० फळां आसता. लागवडीची फावो त्या प्रमाणांत जतनाय घेतल्यार दर झाडाक दर वर्सा ३००० - ५००० फळां मेळप शक्य जाता.

**पिडा :** कागदी लिंबाक खैर ह्या फायटोमोनस सिट्री ह्या सुक्ष्मजंतूक लागून पिडा जाता. पानांचे फाटले वटेन तरन्यो खांदयो आनी फळांचेर थिपके दिसतात आनी ते व्हड व्हड जायत वतात. हे पिडेचें प्रमाण पावसांत आनी दमट हवामानांत चड आसता. हाचेर उपाय म्हणून शियाळयांत सगळे रोगट भाग जळयतात आनी झाडार ०.८% बोर्डो मिश्रण फवारतात. कलम केल्ल्या झाडाचेर डिंक्या, मूळकूज, तेंगशी सुकप, ट्रिस्टेझा व्हायरस ह्यो पिडा जातात.

**किडी :** कागदी लिंबाच्या झाडाक खोड कीड, साल बुड्डुपी कीड आनी सिट्रस सायला हे किडीचो त्रास जाता.

**उपेग :** लिंबांत क जीवनसत्व खूब प्रमाणांत आसता. हें फळ भूक वाडोवपी स्कर्वी हे पिडेक विरोधक आनी कृमीनाशक आसून पित्ताचेरूय उपायकारक थारता. जॅली, मुरांबे हांकां रूच हाडपाक, सरबता सारकीं पेयां तयार करपाक आनी लोणच्याखातीर लिंबाचो बरो उपेग जाता. लिंबाच्या फळांत ४ - ८ % सायट्रिक आम्ल आसता. सालींत पॅक्टीन आसता आनी बियांपसून बरें प्रतीचें तेल मेळटा.

**ताहिती लायम :** हो आंबट लिंबाचो एक प्रकार अमेरिकेच्या फ्लोरायडा राज्यांत व्हड प्रमाणांत लागवडींत आसा. तांचो आस्पाव कागदी लिंबाचे जातींत जाता. मॅक्सिकन लायम आनी लेमन हांच्या संकरापसून ह्या फळाची उत्पत्ती जाली. हाचें फळ मॅक्सिकन लायमापरस मोटें आनी तांतया आकाराचें आसता. ह्या फळांत बियो आसल्यार आसतात.

**साकर लिंबू :** (हिंदी : मीठ निंबू, तेलगू : गजानिम्मा; इंग्लीशः स्वीट लायम; लॅटीन : सिट्रस लायमेटिऑयडिस). हें वांकडें-तिकडें वाडपी खांदयांचें झोंप आसून, पानां संत्राच्या पानांयेदीं पूण लेव पाचवीं आसतात. फळ वाटकुळें, गुळगुळीत हळदुवें वा लेव पाचवें, साल पातळ, गर रुचीक गोडसार पूण पचक आनी तो आंबटूय नासता. इजिप्त आनी उश्ण कटिबंधांत ह्या फळाची लागवड चड - उण्या प्रमाणांत करतात. भारतांत मध्य भागांत आनी तमिळनाडूंत

पोरसांनी आनी कांयकडेन वेपारी प्रमाणाचेर लागवड करतात. हें झाड काटक आसून ताका खूब फळां धरतात.

**ईडलिंबू (लेमन)** : (लॅटीन : सिट्रस लिमॉन; सिट्रस लिमोनिया; कूळः रुटेसी).

एक म्हत्वाचें वखदी फळ. युरोप आनी अमेरिकेंत सगळया आंबट फळांत वेपारी नदरेन हाका म्हत्व आसा. कांय तज्ञांच्या मतान ताचें मूळ स्थान भारत. पूण कांय जाणांच्या मतान तें दक्षिण चीन आनी उत्तर मियानमारांतलें आसुंये. झाडाचे वाडीचो जोम, फळाचो आकार, आकारमान आनी गुणधर्म हे बाबतींत वेगळेपण आसपी जायते प्रकार ह्या फळांत दिसून येतात.

लेमनाचें झाड मध्यम उंचायेचें ३ - ६ मी. आनी सदांच पाचवें उरता. ताका जायते घट्ट कांटे आसतात. खांदयो वांकड्यो तिकड्यो, पानां आयाताकृती आनी तोंकाचीं आसून तीं चिड्डील्यार तांकां विशिश्ट वास येता. फुलां व्हड आनी जांभळया रंगाचीं आसतात. फळां मध्यम आकाराचीं, लांब वा तांतया आकाराचीं आसून तोंकाकडलो भाग चिंवेवरी आसता. फळाची साल दाट आनी हळदुवी आसून तिचेर बारीक बुराकांवरी दिसपी तैल प्रपिंड आसता. गर लेव हळदुवो आसून तातूंत कांय बारीक बियो आसतात. ताच्या कांय प्रकारांत बियोच नासतात हीं फळां वर्सयभर येतात आनी तीं पाचवीं आसतनाच तोडटात. झाडाचेर पिकपाक दिल्यार तीं कडवट जातात. तोडिल्लीं फळां काळरवा कुडींत दवरतात. थंय तीं पिकतात आनी तांचो रंग ल्हव ल्हव हळदुवो जाता. १३° - १६° सॅ. तापमान आनी ९५ - ९०% सापेक्ष आर्द्रता आशिल्ले कुडींत हीं फळां बेगीन पिकतात.

लेमनाच्या उत्पादनांत इटली, अमेरिका हे देश फुडें आसात. हाचेभायर स्पेन, ग्रीस, तुर्कस्तान, अर्जेंटिना, लेबानन, चिली, ब्राझील, इझ्राएल, ऑस्टेलिया, ट्युनिशिया, अल्जिरिया, दक्षिण आफ्रिका, सायप्रस, पुर्तुगाल आनी मोरक्को आदी देशांत वेपारी प्रमाणाचेर लेमनाची लागवड करतात.

भारतांत लेमनाची लागवड खूब कमी प्रमाणांत करतात. उत्तर प्रदेश, महाराष्ट्र, आंध्रप्रदेश, कर्नाटक हांगा पोरसांनी वा उण्या प्रमाणांत लागवड करतात. वेगवेगळया प्रकारचे जमनींत आनी उण्या चड उंचायेच्या वाठारांत हीं झाडां वाडटात. तशेंच बागायत आनी जिराइतारवाल भरपूर उत्पादन दितात. कागदी लिंबाच्या झाडाचेर आसपी साल आनी तेंगशी सुकप हे रोग लेमनाचेर केन्नकेन्नाय दिसतात. हाका वर्सयभर फळां धरतात.

भारतांत लेमनाचे परदेशांतले जे प्रकार लागवडीरवाल आसात ते अशे : युरेका, व्हिला फ्रेंका, लिस्बन, इटालियन सीडलेस, नेपाळी ऑब्लाँग, नेपाळी राऊण्ड आनी माल्टा. हातुंतलो इटालियन राऊंड हो प्रकार सगळयांत म्हत्वाचो आसून तो भारताच्या वेगवेगळया वाठारांत सुक्या आनी दमट हवेंत बरो जाता. फळांत १-२ वा एक एक वेळां कांयच बियो नासतात. साल दाट आनी गुळगुळीत आसता आनी गर रसदार आसता. ताकालागूत शितपेयां करपारवातीर आनी लोणचें करपारवातीर हो प्रकार बरो जाता. दरव्खन आनी दक्षिण भारतांतल्या सुक्या वाठारांत ह्या प्रकारच्या झाडां पसून भरपूर प्रमाणांत फळां मेळटात. आसाम लेमन नांवाचो लेमनाचो आनीक एक प्रकार भारताच्या सपाट वाठारांत बरे तरेन जाता. ताका चिना कागझी, चिनापट्टी, सरबती आनी पाट निम्बू ह्या नांवानय वळरवतात. हाका वर्सयभर फळां धरतात.

पंजाबांत आनी उत्तर प्रदेशाच्या अस्तंतेकडल्या वाठारांत बारामास नांवाचो प्रकार लोकप्रीय आसात. हीं फळां वाटकुळीं, मध्यम आकारमानाचीं आसतात. ह्या फळाची साल पातळ आसून गर रसदार आनी रुचीक आसता. भद्री नांवाचो लेमनाचो प्रकार हरयाणा क्रषी विद्यापिठाच्या फल संवर्धन विभागांत बरो आशिल्ल्याचें दिसून आयलां. झाडाची उंचाय ३.५ मी. आसून पानां व्हड आनी पाचवीं आसतात. फळाचें वजन १.५ किग्रॅ. आसता आनी फळांत ३३% रस आसता. हाचीं फळां नोव्हेंबर ते मार्च मेरेन मेळटात.

आंध्र प्रदेशाच्या कडप्पा जिल्ह्यांत जिनोआ नांवाचो लेमनाचो प्रकार वेपारी प्रमाणाचेर लागवडींत आसा. भारतांत मूळचे भारतीय अशे लेमनाचे दोन प्रकार लागवडींत आसात. तांकां जंबुरी वा ईडलिंबू आनी गलगल ह्या नांवांनी वळरवतात. जंबुरीचें झाड लेमनाच्या झाडापरस काटक आसून तें चड जोमान वाडटा. तें लेमनापरस चड रोगप्रतिकारक आसा. गलगल हो प्रकार पंजाबांत पठाणकोटच्या लागसार आनी उत्तर प्रदेशांत लागवडींत आसून ताचीं पानां, फुलां आनी फळां सामान्य लेमनापरस खूब वेगळीं आसतात. हाका वर्सांतल्यान एकदांच फुलां आनी फळां धरतात. फळां बरे प्रतीचीं आसून तांचें उत्पादनय भरपूर आसता. ह्या फळापसून सरबत, मुरांबो आनी लोणचें करतात.

कॅलिफोर्नियाचे लोक संत्राच्या खुंटाचेर लेमनाचे दोळे भरून कलमां करतात. इटालियन आनी गलगल ह्या प्रकाराचें दर झाडाचें वर्सुकी उत्पादन ६०० - ८०० फळां आसता.

ताज्या फळाच्या रोसापसून लेमोनेड आनी हेर पेयां तयार करतात. फळाचे सालीपसून तेल काडून ताचो उपेग वेगवेगळया खाद्यपदार्थांक आनी पेयांक रूच हाडपारवातीर करतात. ऊर्ध्वपतित तेल शाबू आनी सौंदर्यप्रसाधनां तयार करपारवातीर वापरतात. फळाचे सालींतल्या धव्या भागापसून पेक्टीन काडटात आनी ताचो उपेग फळांचें जॅम आनी जॅली तयार करपारवातीर तशेंच वखद उद्येगांत करतात. फळांच्या रोसापसून सायट्रिक अम्ल मेळटा.

ह्या फळांचें लोणचें पानदरीचे वाडीचेर बऱ्याक पडटा. फळाची साल पाचक आनी पोट दुरवीर दितात. फळांत अ, ब, आनी क हीं जीवनसत्वां आनी लवणां आसून स्कर्व्ही नांवाच्या रोगाचेर लेमनाचो

रोस गुणकारी आसता. तशेंच हो रोस मूत्रल आसून जोर आयल्यार थंडसाण दिवपी देखून खर संधिवात, मोडशी, अतिसार आनी थंडी हांचेर गुणकारी आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**लिपमान, गाब्रिएल :** (जल्म : १६ ऑगस्ट १८४५, होलेरिच - लक्झेंबर्ग; मरण : १३ जुलय १९२१, कॅनडा).

फ्रेंच भौतिकीविज्ञ. रंगीत छायाचित्रणाची एक पद्दत सोदून काडिल्लेखातीर ताका १९०८ वर्साच्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराचो सन्मान मेळ्ळो.

गाब्रिएलाच्या भुरगेपणांत ताचीं आवय - बापूय पॅरिसाक स्थायीक जालीं आनी ताचें शिक्षण एकोल नॉर्माल हातूंत जालें. १८७३ वर्सा जर्मनींतले विज्ञान शिक्षणाचे पद्दतीचो अभ्यास करपाखातीर धाडिल्ल्या सरकारी वैज्ञानिक मंडळाचेर ताची नेमणूक जाली. ताणें व्हिल्हेल्म कूने आनी जी. आर्. किरखोफ हांचेवांगडा हायडल्बर्गाक आनी हेर्मान हेल्महोल्ट्स हाचे वांगडा बर्लिनाक काम केलें. १८७८ वर्सा तो पॅरिस विद्यापिठाच्या विज्ञान फांट्यांत रुजू जालो आनी १८८३ त गणितीय भौतिकीच्या प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली. तीन वर्सां उपरांत तो प्रायोगिक भौतिकीचो प्राध्यापक जालो आनी फुडें संशोधन प्रयोगशाळेचो संचालक जालो. ही प्रयोगशाळा उपरांत सोरबॉन विद्यापिठाक दिली आनी निमाणे मेरेन गाब्रिएलान तिच्या संचालकपदाचेर काम केलें.

भौतिकीच्या खूब फांट्यांनी देखीक - विद्युत्, उश्मागतिकी, प्रकाशकी आनी प्रकाश रसायनशास्त्र, ताणें मूलभूत म्हत्वाचें कार्य केलें. १८७३ वर्सा ताणें आपल्याच नांवान वळखुपी सामको उणो (१/१००० वोल्ट इतलो) विद्युत् दाब मेजपी विद्युत् मापकां विकसित केलीं. ताणें भौतिकींतल्या बऱ्याचशा फांट्यांनी वापरपाखातीर तरातरांच्यो कल्पक प्रयुक्त्यो तयार केल्यो आनी प्रमाणभूत उपकरणांनीय सुदारणा केल्यो. ज्योतिशशास्त्रांत ताचो सीलस्टॅट ह्या उपकरणाचो सोद म्हत्वाचो आसा. ताणें धर्तरेच्या हालचालींचो प्रवेग सरळ मेजपी नव्या भूंयकांप मापकाची येवजण तयार केल्ली. कालमापनांतल्या व्यक्तिगत दोशांचो निरास करपाखातीर ताणें छायाचित्रीय नोंदणीची पद्दत उपेगांत हाडली. ताणें दाबविद्युत् परिणामासंबंदीं प्येर क्युरी हाच्या कार्यापयलीं आनी अतिसंवाहक विद्युत् मंडलांतल्या प्रवर्तनासंबंदीं हायके कमर्लिंग - ऑनेस हाच्या कार्यापयलीं प्रारंभिक म्हत्वाचें कार्य केलें.

ताणें विकसित केल्ली रंगांचें पुनरुत्पादन करपी छायाचित्रणाची प्रक्रिया हें गाब्रिएलाचें कार्य सगळयांत म्हत्वाचें मानतात. हे प्रक्रियेचो सिध्दांत ताणें १८८६ वर्सा विकसित केल्लो. पूण ती प्रत्यक्षांत हाडपाक खूब अडचणी आशिल्ल्यो. खुबशा प्रयोगाउपरांत ताणें ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस हिका ही प्रक्रिया १८११ वर्सा कळयली. हे प्रक्रियेचो पुराय सिध्दांत ताणें १८१४ वर्सा उजवाडायलो. रंगीत छायाचित्रणाची ही एकमेव सरळ पद्दत प्रसारीत जावपाक खूब कळाव लागतालो. ताका लागून ती मंद आनी वाजेवणी आशिल्ली. तातूंत मूळ प्रतिमेवयल्यान तिच्यो प्रतीय काडूंक मेळनाशिल्ल्यो. ह्या कारणांक लागून ही पद्दत चड लोकप्रिय जालिना. पूण रंगीत छायाचित्रणाच्या विकासांतलो तो एक म्हत्वाचो पांवडो आशिल्लो.

लिपमानाचें संशोधन कार्य चडशें पॅरिस ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसाकडेन ताणें केल्या पत्रवेव्हाराच्या स्वरुपांत आसा. १८८३ वर्सा तो ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीसचो वांगडी जालो आनी १९१२ त तिचो अध्यक्ष जालो. तो ब्युरो द लाँजिट्यूड्सच्या मंडळाचो वांगडी आशिल्लो तशेंच लंडनचे रॉयल सोसायटीचो परदेशी वांगडी आशिल्लो. एका शिश्टमंडळाचो वांगडी म्हणून तो कॅनडाक गेल्लेकडेन परत येतना दर्याभोंवडेंत तारवाचेरूच ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**लिपमान, फ्रिट्स आल्बर्ट :** (जल्मः १२ जून १८९९, कोनिग्जबर्ग - जर्मनी; मरणः २४ जुलय १९८६, पकिप्सी - न्यूयॉर्क).

जर्मन - अमेरिकन जीवरसायनशास्त्रज्ञ. कोशिकी चयापचयांत म्हळयार पेशींनी सतत जावपी भौतिक आनी रसायनीक घडामोडींनी म्हत्वाच्या आशिल्ल्या कोएंझायम-ए ह्या उत्प्रेरक पदार्थाचो सोद लायिल्लेखातीर ताका सर हान्स आडोल्फ क्रेब्ज हाचेवांगडा शरीरक्रियाविज्ञान वा वैजकी ह्या विशयाचो १९५३ वर्साच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान वांटून मेळ्ळो.

लिपमान हाणें कोनिग्जबर्ग, बर्लिन आनी म्युनिक ह्या विद्यापिठांनी वैजकीचें शिक्षण घेवन १९२४ वर्सा बर्लिन विद्यापिठाची एम्.डी. पदवी घेतली. बर्लिनच्या कयसर व्हिल्हेल्म इन्स्टिट्युटांत ओटो मायरहोफ हाचे प्रयोगशाळेंत सहाय्यक म्हणून काम करून १९२७ वर्सा ताणें पीएच्.डी. पदवी मेळयली. उपरांत हायडल्बर्ग विद्यापिठांतले मायरहोफ हाचेच प्रयोगशाळेंत १९२७ - ३० ह्या काळांत ताणें संशोधन केलें. १९३० वर्सा तो कायसर व्हिल्हेल्म इन्स्टिट्युटांत संशोधन सहाय्यक म्हणून परत गेलो. १९३१ - ३२ त ताणें न्युयॉर्कांतल्या रॉकफॅलर इन्स्टिट्युटांतले पी. ए. लेव्हीन हाचे प्रयोगशाळेंत रॉकफॅलर अधिछात्र म्हणून काम केलें. ते उपरांत ताणें कोपॅनहायनच्या कार्ल्सबर्ग प्रतिश्ठानाचे जीवरसायनशास्त्रीय प्रयोगशाळेंत १९३२ - ३९ त काम केलें. राजकीय कारणाक लागून जर्मनीक परत वचूंक मेळनाशिल्ल्यान ताणें अमेरिकेंत स्थलांतर केलें आनी न्युयॉर्कांतल्या कॉर्नेल मॅडिकल स्कुलांतल्या जीवरसायनशास्त्रीय विभागांत संशोधन सहाय्यक पदाचेर काम केलें (१९३९ - ४१). १९४४ वर्सा तो अमेरिकेचो नागरीक जालो. बॉस्टनच्या मॅसॅच्युसॅट्स जनरल हॉस्पिटलांत १९४१ वर्सासावन शस्त्रक्रियाविद्या विभागांत संशोधन सहयोगी आनी उपरांत थंयच्या

जीवरसायनशास्त्र संशोधन प्रयोगशाळेंत एका संशोधन पंगडाचो मुखेल म्हणून ताणें काम केलें. १९४९ वर्सा बॉस्टनच्या हारवर्ड मॅडिकल स्कुलांत तो जीवविज्ञानीक रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक जालो. तेउपरांत १९५७ वर्सा न्यूयॉर्कांतल्या रॉकफॅलर इन्स्टिट्युटांत (सद्या रॉकफॅलर विद्यापीठ) तो प्राध्यापक जालो आनी १९७० वर्सा निवृत्त जातकच थंयच गुणश्री प्राध्यापक जालो. थंयच ताणें निमाणे मेरेन आपलें संशोधनकार्य चालू दवरलें.

लिपमान हाचें जीवरसायनशास्त्रांतलें म्हत्वाचें कार्य म्हळयार ताणें मांडिल्लें ऊर्जा संक्रमणाचे जीवतंत्रविद्येचे व्यापक नेम. कार्बोहायड्रेटांच्या ऑक्सिडीभवनांतल्या मध्यस्थ आनी लिपिडांचे (स्निग्ध पदार्थ, मेणां आदी) रचनात्मक घटक आशिल्ल्या क्रियाशील ॲसिटेटांच्या रसायनीक स्वरुपासंबंदी संशोधन करतना ताका पारव्याच्या फिग्दाच्या अर्कांत उत्प्रेरण नदरेन क्रियाशील आशिल्लो आनी उश्णताय दिल्यार लेगीत स्थीर उरपी एक घटक मेळ्ळो. हो ॲसिटिल वाहक घटक १९४७ वर्सा ताणें वेगळायलो. ताका कोएंझायम - ए हें नांव दिलें आनी ताची रेणवीय संरचना १९५३ वर्सा निर्धारीत केली. लिपमान हाणें उपरांत मुखेलपणान पेप्टायडां आनी प्रथिनां हांच्या संश्लेशणांतल्या जैव यंत्रणांच्या विकासासंबंदीं संशोधन केलें.

अमेरिकेची नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, फॅराडे सोसायटी, डॅनिश रॉयल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, लंडनची रॉयल सोसायटी ह्या वैज्ञानिक संस्थांचो तो वांगडी आशिल्लो. नोबॅल पुरस्कारावांगडा ताका अमेरिकेच्या राश्ट्रीय विज्ञान पदकाचो भोवमान मेळ्ळो. १९७१ वर्सा ताची 'वाँडरिंगस् ऑफ ए बायोकॅमिस्ट' ही आपजीण उजवाडा आयली.

- कों. वि. सं. मं.

**लिपचेल्यांनी खेळ :** ल्हान भुरग्यांचो देशी खेळ. ह्या खेळांत विशेश नेम वा तंत्रीक गजाली चडशो नासतात. खंयच्याय घरांतलीं वा शेजाऱ्या - पाजाऱ्यांच्या घरांतलीं चले - चलयो वाड्यांत, आंगणांत वा मेकळ्या जाग्यार हो खेळ खेळटात. खेळाची सुरवात 'राज्य' कोणाचेर हेप्रमाण थारता. कोणें राज्य घेवंचें हें थारावपाखातीर चुकप (चकणें) हो प्रकार करतात. तीन भुरगीं एकठांय हातांत हात घालून उबीं आसतात आनी 'एक, दोन, तीन' वा 'रामराय साय सुटयो' म्हण्टात आनी तेच वांगडा दर एकलो आपले हात एकमेकाचेर उमथे घालतात. जांचे तळवे एकामेकाचेर आसात हो एक प्रकार आनी जांचे तळवे एकमेकांकडेन तोंड करून ताळी वाजयलेभाशेन आसात हो दुसरो प्रकार. तिगांमदल्या एकल्या ज्या गड्याचो प्रकार वेगळो आसता तो सुट्टा. पूण ताका 'जळ्ळा' अशें मानतात. ताणें परत उतरचें वा ताणें परत वांटो घेवंचो पडटा. जळ्ळयाचो प्रकार टाळपाखातीर दोनूय हात पांयांसकयल्यान काडपाची रीत आसा. जो सुटिल्लो आसा तो हेरांखातीर परत चुकूंक शकता.

जाचेर राज्य आयलां, ताका एका जाग्यार उबो करतात वा बसयतात. ताचे फाटल्यान उबे रावून एकलो ताचे दोळे घट धांपता. राज्य आयिल्ल्या खेळगड्याचे दोळे धांपपी व्यक्तीक 'भोज्या' म्हण्टात. बाकीचीं भुरगीं वा खेळगडी लिपूंक वतात. जो दोळे धांपता, ताका गुजराती भाशेंत 'डाई' म्हण्टात. भुरगीं लिपलें उपरांत डाई सगळयांक



आयकूंक येतलें अशे तरेन 'हातांत किदें?' अशें विचारता. दोळे धांपिलो 'मुदी' अशी जाप दिता तेन्ना चलबायलेचे सोदीक अशें ताका डाई सांगता आनी राज्य आयिल्ल्या खेळगड्याचे दोळे उगडून लिपिल्ल्या भुरग्यांक सोदपाक सोडटा. तो कोण कोण खंय लिपल्यात तें सोदून काडटा आसतना, लिपिल्ल्या दर एकल्यान ताका दिसनासतना ताणें आपल्याक आफुडचे पयलीं भोज्याक आफुडपाचें आसता.

पुर्विल्लीं व्हडलीं कुटुंबां तशेच व्हडले वाडे (घरां) आसताले. तातूंत आजघर - माजघर, पडवी, पडवेचेर खंय कुडें, गोणी, माळो अशे कितलेशेच जागे लिपपाखातीर आसताले. ह्या खेळांत राज्य आयिल्ल्या खेळगड्यान दोगां - तिगां जाणांक बाद केले, म्हळयार सोदून काडले जाल्यार जे बाद जाले तांचीं नांवां गुप्त दवरून 'कुणी घ्या चंद्र, कुणी घ्या सूर्य, कुणी ध्रुव' अशी तांची मागणी करतात. ज्या नांवाविशीं मागणी जायना तांचेर राज्य येता आनी परत खेळ सुरू जाता.

गुजरातांत 'टिलो' नांवाच्या लिपचोरयांनी खेळाचो एक प्रकार रूढ आसा. तातूंत लिपपी आनी सोदपी अशे दोन संघ आसतात. लिपपी संघाचो नायक दुसऱ्या संघाक कसल्याय झाडाचो

पालो हाडपाक धाडटा तेन्ना सगळे गडे लिपून बसतात. हाडिल्लो पालो सोदपी सगळया गड्यांच्या हांतात दितात. सोदपी गडी सांपडिल्ल्याक तो पालो हुंगुंक लायता. धरपी आपल्या मुखावयल्यान गेलो म्हण्टकच लिपपी भुरगीं 'आटी लागे, पाटी लागे बोल बेटा टिल्लो' अशें आड्डतात. ताका लागून गडी खंय लिपिल्ले आसात हें समजून धरपी ते वटेन पळटा. लिपपी थंयच्यान दुसरे कडेन पळटात. तेन्ना कांय जाण सांपडटांतूय. अशे तरेन लिपपी संघाचे सगळे गडे सोदून काडून तांकां पालो हुंगुंक लायलो म्हण्टकच सोदतल्याच्या संघाचें काम सोपंता आनी डाव बदलतात. अशे तरेन हो खेळ चलता.

**लपंडावाचें आधुनिक रूप :** आयच्या उद्येगीक काळांत व्हडल्या वाड्यांची संख्या खूब उणी जायत आसा आनी तेबदला सामुहिक घर - वसणुको निर्माण जायत आसात. अशा वाठारांतलीं ल्हान भुरगीं एकठांय येतात. एक खंयचोय भुरगो हेरांचे फाटीचेर बोटाच्या स्पर्शानं संख्या काडटा. ही संख्या जाणें वळखल्या तो सुटलो. पूण जाका ही संख्या स्पर्शान वळखूंक येना तो राजा जाता. लिपपाच्या जाग्यांच्या मध्यभागार एक पत्र्याचो पोरनो डबो दवरतात. जाचेर राज्य आसा ताणें डब्यालागीं उबो रावप. लिपिल्ल्या दर एकल्यान, जाचेर 'राज्य' आसा, ताका चुकोवन डब्याक पांयान उडोवपाचो यत्न करप. अशा कोणेंय धांवत येवन डब्याक उडोवन आड्डूपाचें 'डबो आयस - पयस' मागीर मात दर एकल्यान राजाक दिसनासतना डब्यामेरेन येवपाक हरकत ना. राजान डब्यालागीं उबो रावून एक एकल्याचें नांव घेवन तो खंय लिपिल्लो आसा तें सांगप. अशें जाचें नांव सगळयांत पयलीं सांगलां ताचेर फुडल्या डावांत 'राज्य' येता आनी तो खेळ परत सुरू जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**लिपी :** मौखिक भाशेक लिखीत रूप दिवपी कुरवो. ह्या कुरवांवरवीं वाचप्याक उतरांचो तांच्या अभ्यासासयत बोध जाता आनी कुरवां कणकणी उतरांचो ध्वनी अभिप्रेत जाता. लिपी हें उतर लिप् = सारभ ह्या धातू वयल्यान आयलां. त्याच धातू वयल्यान लेप हेय उतर आयलां. तशें लिख = कातय, खरवडाय ह्या धातूवयल्यान लेख हें उतर आयलां. ह्या सगळया मूळ धातुचो संबंद आदल्या काळांतले बरोवपाचे पद्दतीक लागता. आदल्या काळांत कसलो तरी लेप सारोवन वा कातोवन बरोवपाची पद्दत आशिल्ली. त्या लेपावयल्यान लिपी हें उतर घडपाची शक्यताय आसा.

संवसारातल्या सगळया भासांचो उगम तोंडांतल्यानच जाला. तातुंतल्यो खुबशो भासो आज लिखीत स्वरुपांत आयल्यात. पुर्विल्ल्या काळांत साहित्य लेगीत मौखिक स्वरुपांत आसतालें. देखीक, ग्रीक भाशेंतलें होमर आनी भारतीय वेद. उलोवपाची भास हीं तोंडा - नाकांतल्यान आयिल्ल्या ध्वनी वरवीं प्रतीत जाता. तीच तोंड भास टेलिफोन, आकाशवाणी, दूरदर्शन, ध्वनीमुद्रण असल्या माध्यमावरवीं प्रसार करूंक मेळटात. तेचपरी बरप हेंय एक तोंडी भाशेचेंच माध्यम आसून तें वापरतात त्या भाशेच्या प्रकाराक बरपी भास म्हण्टात. बरोवपी भाशेवरवीं दोळयांक दिश्टी पडपी कुरवांचो वेगवेगळे ध्वनी दाखोवपाक उपेग करतात.

सगळयांत पोरनें आनी पुर्विल्लें लिखाण जें आयज मेरेन तिगून उरलां ते सुमेरियन (५१०० वर्सां आदलें). सुमेरियन भास ही कीलाक्षर (Cuneiform) लिपी वापरून बरयताले. ओल्या विटांचेर खिळया आकाराच्या आवतान अक्षरां काडटाले आनी विटो सुकतकच वा भाजतकच तें बरप जायतीं वर्सां उरतालें. सुरवातीचें सुमेरियन बरप हें मनीस, प्राणी, सुकणीं, रूख, वस्तू हाचीं चिन्नां वा आकार काडून बरयताले. हे पद्दतीक चित्रलिपी (Pictography) म्हण्टात. फुडें हींच चित्रां सोंपी करून आनी दर चित्रलेखाक (Pictogram) एकेक वर्ण (Phoneme) लावन सुमेरियन लोकांनी खरी लिपी तयार केली. सुमार ३५०० ते ३१०० वर्सां आदीं सुमेरियन वर्णमाला (Alphabet) आपले भाशेक जुळटा तसो वापर करून सेमिटीक (Semitic) भाशांनी आपल्योच खाशेल्यो लिपी घडयल्यो. त्या काळांत जायत्यो सेमिटीक भाशा अस्तित्वांत आयल्यो. पूण तातुंतल्यो सगळयांत वळखिच्यो म्हळयार आरामायक (Aramaic), हिब्रू (Hebrew) आनी अरबी (Arabic).

सुमेरियन चित्रलिपी उपरांत ईजिप्त चित्रलिपी अस्तित्वांत आयली (Egyptain hieroglyphic writing). त्याच काळांत चिनी चित्रलिपी वापरांत आयली. पुर्विल्ली चित्रलिपी मात्शी सोंपी करून आताची चिनी लिपी घडोवपांत आयली. पूण दर चित्रलेख एक रुपीम दाखयता (Morpheme). ताका लागून चिनी बरोवप्याक शंबरांनी कुरवो शिकच्यो पडटात. चिनी लिपींत कांय तरेन बदल घडोवन आनी आपल्या भाशांक सारकी जुळोवन घेवन जपान आनी कोरिया देशाच्या लोकांनी आपल्योच खाशेल्यो लिपी घडयल्यो.

चडशे इतिहासकार आनी भाशाविज्ञानांच्या मतान अस्तंत आशिया वाठारांत अस्तित्वांत आयिल्ल्या सेमिटीक लिपयांनी अख्ख्या संवसारांतल्या चडशा लिपयांचेर आपलो प्रभाव घालो. सगळयांत पयलीं आनी खरी वर्णमाला (Alphabet) सुमार ३५०० ते ३१०० वर्सां आदी भूमध्य समुद्रा लागसल्ल्या आशियायी वाठारांत वापरांत आयली असो तज्ञाचो अदमास आसा. सुमार ३००० वर्सां आदल्या काळांत फिनिशियन लोकांचो वेपारा निमतान अस्तंत आशिया, युरोप, भारत, उत्तर अफ्रिका देशांनी संबंद येतालो. ते वापरताले ते आरामायक लिपयेंत. व्यंजन वर्णांक कुरवो आशिल्ल्यो आनी ताचें बरप उजवेकडल्यान दावेकडेन वतालें. हेच लिपींतल्यान युरोपी तशेंच भारतीय लिपींचो जल्म जालो अशें तज्ञांचें मत आसा.

ग्रीक वर्णमाला फिनिशियन लिपीचो वापर करून घडयली. सुमार ३000 ते २८00 वर्सां आदीं ही लिपी वापरूंक लागले. सुरवातेक तीय लिपी उजवेकडल्यान दावेकडेन बरयताले. पूण उपरांत दावेकडल्यान उजवेकडे बरोवंक लागले. सेमिटीक भासांतलीं वर्णांचीं नांवां ग्रीक भाशेन घेतल्यात. देखीक - आलेख ' आल्फा, बेत ' बिटा वा बेता, गिमेल ' गाम्मा आदी. ग्रीक वर्णमाळेन वर्णांक वेगळयो कुरवो आनी स्वरांक खाशेल्यो वेगळयो कुरवो तांणी घडयल्यो. ताका लागून ग्रीक लिपीउपरांत आयिल्ल्या सगळयाच वर्णमालांक एक बरो नमुनो मेळ्ळो.

सेमिटीक भाशेउपरांत ग्रीक भाशेंतल्यान कांय आशियायी भासांनी आपल्यो लिपयो तयार केल्यो. आफ्रिका खंडांत इथियोपियन कोप्टीक लिपी ग्रीक वर्णमालेकडल्यान घेतल्या. तेचपरी चडशो सगळयोच युरोपी लिपी ग्रीक वर्णमाळेंतल्यान तयार जाल्यात. ग्रीक लिपीच्या पालवान निर्माण जाल्ले एट्रुस्कन (Etruscan) लिपींतल्यान लॅटीन वा रोमी लिपी जल्माक आयली. ही रोमी लिपी युरोपांत सगळेकडेन पातळ्ळी. वेगवेगळया वाठारांनी आपआपले भाशेच्या वर्णांक ती जुळोवन घेतली वा तिका कांय विशेशक चित्रां (Diacritic Marks) लायलीं. सद्या इंग्लीश भाशेच्या प्रभावाक लागून रोमी लिपी संवसारभर पातळ्ळया. उदेंत युरोपांत ग्रीक वर्णमालेच्या प्रभावान तीन लिपयो वापरांत आयल्यो. गॉथीक (Gothic), ग्लागो लिटीक (Glagolitic) आनी सिरिलीक (Cyrillic). गॉथीक लिपी थळावे भाशेन बायबल अणकार करपाखातीर इसवी सन चवथ्या शतमानांत घडयल्ली. पूण ती सातव्या शेंकड्या उपरांत ती कोणेच वापरली ना. गलागोलिटीक लिपी कांय स्लावीक मठांनी अजून वापरतात. सिरिलीक लिपी ही चडशो स्लावीक भासो वापरीत आयल्यात. स्लावीक भाशांमदीं रशियन, सर्बियन, बल्गेरियन, बेलोरशिन आनी युक्रेनियन ह्यो भासो मुखेल आसात.

भारतीय लिपी ही सिंधू सभ्यतायेन वापरिल्ले लिपयेंतल्यान आयल्या अशें सुनीतिकुमार चटर्जी आनी कांय तज्ञाचें मत आसा. सिंधू सभ्यताय सुमेर आनी ईजिप्त सभ्यताय ह्यो तिनय अदीक - उण्या एकाच काळाच्यो. सिंधू न्हंय आनी घाग्गर न्हंय प्रदेशांत म्हळयार केंबे खाडीपसून आनी कराचीपसून सुमार शिमलामेरेन ही सिंधू सभ्यताय पसरिल्ली. थंयचीं कितल्योशींच नाणी वा तक्टे मेळ्ळयात. ताचेर एक तरेची चित्रलिपी आसा आनी सुमार २५० ते ५00 चित्रलेख आसात. ते सभ्यतायेचो लोक आदिवासी, द्रविड आर्य वा आनी खंयच्या गटाचे हें सांगपाक कांयच पुरावे नात, त्या कारणान भारतीय लिपी सिंधू लिपींतल्यान आयल्या अशें सांगपाक कसलोच पुरावो मेळना.

ह्या कारणांक लागून हेर चडशे तज्ञ आदलोच उपन्यास (Hypothesis) मानतात. म्हळयार सगळयांत आदली भारतीय लिपी सुमार २७00 ते २६00 वर्सां आदीं फिनीशियन आरामायक वर्णमालेच्या प्रभावान अस्तित्वांत आयली. हांगाच्यान अस्तित्वांत आयिल्ली सुरवातेची ब्रह्मी लिपी उजवेकडल्यान दावेवटेन बरयताले. पूण भारतीय भासांचे गरजेप्रमाण स्वर वर्णांक खाशेल्यो कुरवो तयार केल्यो. सुमार २५00 ते २४00 वर्सां आदीं भारतांत तयार जाल्ली दुसरी लिपी म्हळयार खरोश्टी. हे लिपींत आरामायक लिपीचो प्रभाव स्पश्ट दिसता. सम्राट अशोकाच्या काळांतलें. जायतें मौर्य ब्रह्मी लिपीतलें बरप शिलालेखांनी आनी ताम्रपटांचेर दिश्टी पडटा.

२१00 ते १९00 वर्सा आदी वापरांत आशिल्ले गुप्त ब्रह्मी लिपीत संस्कृत पाली आनी हेर प्राकृत भासो बरयताले. हातुंतल्यानच इ. स. सातव्या शेंकड्याच्या सुमाराक सिद्धमातृका लिपी अस्तित्वांत आयली. हे लिपयेंतल्यानच आठव्या शेंकड्यांत दख्खन वाठारांत नागरी लिपी निर्माण जाली आनी धाव्या शेंकड्यामेरन उत्तर भारतांत बरेचकडेन पातळ्ळी.

नागरी लिपी आदींच म्हळयार सव्या शेंकड्यांत दक्षिण भारतांतली पल्लव लिपी आनी थंयच्यान सातव्या शेंकड्यांत कन्नड, तेलुगू आनी तमिळ, ताचे उपरांत मलयाळम लिपी अशे तरेन द्रविड भासांक जायत्यो प्राचीन लिपी आनी साहित्य मेळ्ळें.

तेराव्या शेंकड्यांत महाराष्ट्रांत मराठी भाशेंत जलद क्रियेखातीर मोडी लिपी अस्तित्वांत हाडली.

संस्कृत भाशेक आदी आपली अशी खाशेली लिपी नाशिल्ली. पयलीं ती ब्रह्मींत बरयताले. प्रदेशीक लिपयो आयल्यो तेन्ना संस्कृत भास कन्नड, ग्रंथ, तमीळ, मलयाळम आनी नागरी लिपयांनी बरोवंक लागले. संस्कृत भाशेक देवभास अशे म्हण्टाले. देखून नागरी लिपीचो विस्तार जातकच हेच लिपीक देवनागरी म्हणूंक लागले. १८५७ वर्सा कलकत्ता, चेन्नइ आनी मुंबय विद्यापिठांनी नागरी लिपीकूच संस्कृत भाशेची अधिकृत लिपी म्हूण घेतली. नागरींतल्यान गुजराती, बंगाली, ओडिया आनी हेर लिपयो जल्माक आयल्यो.

इ. स. पांचव्या शेंकड्यांत गुप्त, ब्राह्मी, बुद्ध धर्मावांगडा श्रीलंका, मियानमार, थायलंड, कांबोज, लाओस, व्हिएतनाम, मलेशिया आनी इंडोनेशियक पावली आनी थळाव्यो लिपयो निर्माण जाल्यो.

कोंकणी लिपीचो उगम सांगतना घांटकार (१९९३) हो भाशाशास्त्रज्ञ पुरावे दिवन सांगता : सोळाव्या - सतराव्या शेंकड्यांनी गोंयभर त्या काळाचे कानडी लिपींत कोंकणी आनी मराठी बरयताले. ते लिपयेक तो गोंय - कानडी वा कानदेवी म्हण्टा. सतराव्या शेंकड्यांत पुर्तुगेज भास सक्तिची जाले उपरांत कानडी लिपी उणी जायत आयली. उत्तर गोंयांत इल्ली इल्ली करून मोडी लिपी भितर सरली. संस्कृत शिकिल्ले कांय जाण देवनागरी वापरूंक लागले. मराठी शिक्षणांत वाड जावंक लागली तसो नागरीचोय वापर वाडलो. सुरवेक

सेबस्तियांव दाल्गाद हाणें कोंकणी छापूंक नागरीचो वापर केलो. शणै गोंयबाबान कोंकणी साहित्य नागरी लिपींत बरयलें.

थॉमस स्टीफन आनी जेज्वीत बरोवप्यांनी सतराव्या शेंकड्यात कोंकणी छापूंक दुसरो पर्याय नासलो देखून रोमी लिपी वापरली. तेन्नाच्यान पुर्तुगेज प्रभावाक लागून रोमी लिपी वापरांत आयली. शणै गोंयबाबानय सुरवेक रोमीत बरप केल्लें. कर्नाटकांत कांय काळ रोमी वापरताले, पूण कानडी शिकप सुरू जायतसावन सगळेंच साहित्य कानडी लिपींतच बरोवंक लागले. केनरा वाठारांतले नवायत मुसलमान लोक कोंकणी पर्सो - अरबी लिपयेंत बरयत आयल्यात. केरळांत कोची आनी हेर कडेन मलयाळम् लिपी वापरून कोंकणी बरयताले. आता कांय साहित्य नागरींत बरयतात. कोंकणीची अधिकृत लिपी म्हणून देवनागरी लिपी शासनान तशी शासन पुरस्कृत संस्थांनी मानून घेतल्या. तरीय आयचे घडयेकय गोंयांत रोमी लिपी कर्नाटकांत कानडी आनी केरळांत मलयाळम् लिपीचो देवनागरी लिपीवांगडाच वापर जाता.

- मॅथ्यू आल्मैद, जे. एस्

**लिप्सकोंब, विल्यमनन :** (जल्म : ९ डिसेंबर १९१९, क्लीवलँड - ओहायओ).

अमेरिकन रसायनशास्त्रज्ञ. १९७६ चो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार मानकरी. बोरेन (बोरॉन आनी हायड्रोजन हांचीं संयुगां) ह्या संयुगांचे रसायनीक संरचनेचो आनी तातुंतले दोन अणू एकमेकांक जोडपी बंदक यंत्रणेचो सोद लायिल्लेखातीर ताका हो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो.

१९४१ वर्सा ताणें कँटकी विद्यापिठांतल्यान बी.एस्. आनी १९४६ वर्सा कॅलिफोर्निया इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजी हातुंतल्यान पीएच्. डी. ह्यो पदव्यो घेतल्यो. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत ताणें अमेरिकेच्या सायंटिफीक रिसर्च अँड डॅव्हलपमेंट ह्या कार्यालयांत विश्लेशक म्हणून काम केलें. १९५४ - ५५ त ताणें ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत गुगेनहायम फॅलो म्हणून अध्ययन केलें. १९४६ - ५० तो मिनेसोटा विद्यापिठांत भौतिकी रसायनशास्त्राचो सहाय्यक प्राध्यापक, १९५० - ५४ त सहप्राध्यापक, १९५२ - ५४ त कार्यकारी मुखेली, १९५४ - ५९ त प्राध्यापक आनी मुखेली आशिल्लो. १९५९ वर्सा सावन तो हार्व्हर्ड विद्यापिठांत रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक आनी १९७१ वर्सा सावन गिब्ज प्रयोगशाळेंत रसायनशास्त्राचो ॲबट आनी जेम्स लॉरेन्स प्राध्यापक आसा. १९६२ - ६५ त तो हार्व्हर्ड विद्यापिठांत रसायनशास्त्र विभागाचो अध्यक्ष आशिल्लो.

कॅलिफोर्निया इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉर्जीत अध्ययन करतना लिप्सकोंब हाका बोरेन रसायनशास्त्रासंबंदीं आवड तयार जाली. मिनेसोटा विद्यापिठांत आसतना ताणें रेणवीय संरचनांचें स्पश्टीकरण दिवपाखातीर क्ष-किरण विवर्तन तंत्राचो वापर केलो. लिप्सकोंब हाच्या सिध्दांताचे प्रतिश्ठापनेच्या वेळार दोन बोरॉन अणू एका हायड्रोजन अणूकडेन इलॅक्टॉनांचे एके जोडयेन जोडूंक शकतात, अशी कल्पना आशिल्ली. ही संकल्पना बोरेनांतल्या बंधांच्या सिध्दांताच्या विकासाक उपेगी थरली. ते खातीर खबर आशिल्ल्या संरचनांचें स्पश्टीकरण मेळ्ळेंच आनी ताचे बरोबर नव्या संयुगांचीं भाकितां करपूय शक्य जालें. वेव्हारीक उपगाचे नदरेन लिप्सकोंब हाचें कार्य अतिउश्मादायी आनी रसायनीक थिराय आशिल्ल्या संयुगांच्या विंगड विंगड द्रव्यांचें संश्लेशक करपाक मार्गदर्शक थरलें. तशेंच मेंदवाच्या कॅन्सरावयले प्रारण चिकित्सेखातीर प्रायोगिक थराचेर उपेगी आशिल्लीं संयुगां तयार करपाक उपेगी थरलें.

१९६० वर्सा अमेरिकन ॲकॅडेमी ऑफ आर्ट्स अँड सायन्सीस आनी १९६१ वर्सा नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस ह्या संस्थांचेर लिप्सकोंब हाची निवड जाली. तशेंच, तो बऱ्याचशा देशी आनी परदेशी संस्थांचो वांगडी आशिल्लो. १९५५ वर्सा तो अमेरिकन क्रिस्टलोग्राफिक सोसायटीचो अध्यक्ष आशिल्लो. ताका लाँग आयलंड विद्यापीठ (१९७७), रटगर्स विद्यापीठ (१९७९), गस्टाव्स ॲडोल्फस कॉलेज (१९८०) आनी मॅरीएट कॉलेज ह्या शिक्षण संस्थांनी मानादीक डी. एस्सी. पदवी दिली. ताका रसायनशास्त्रांतलो हॅरिसन हो पुरस्कार (१९५८), अकार्बनी रसायनशास्त्रांतली प्रगती केल्ल्या खाशेल्या सेवाकार्याखातीर अमेरिकन कॅमिकल सोसायटीचो पुरस्कार (१९६८), हार्व्हर्ड विद्यापिठाचो लिडली पुरस्कार (१९७१), भौतिकी रसायनशास्त्रांतलो पीटर डेबाय पुरस्कार (१९७३), कॅलिफोर्निया इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजीचो खाशेलो ॲल्युम्नी पुरस्कार (१९७३), अमेरिकेंतलो वरिश्ठ शास्त्रज्ञ पुरस्कार (अलॅक्झांडर फोन हंबोल्ट - स्टिफटंग, १९७९) हे भोवमान मेळ्ळे.

ताणें बोरॉन हायड्रायड्स (१९६३) आनी न्युक्लियर मॅग्नेटिक रॅझोनन्स स्टडीस ऑफ बोरॉन अँड रिलेटेड कंपाउंड्स (जी. आर. ईटन हाचेवांगडा, १९६९) हे ग्रंथ बरयले. तेच भाशेन ताणें एंझायमांच्यो संरचना आनी कार्य हांचेर आनी अकार्बनी रसायनशास्त्र आनी सैध्दांतिक रसायनशास्त्र हातुंतल्या सैमीक रितीन उत्पादीत वस्तूंचेर बरेचशे सोद निबंद बरयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**लिबिया :** आफ्रिका खंडांतलो एक स्वतंत्र अरबी देश. खंडाचे उत्तरेक आशिल्ल्या ह्या देशाचें क्षेत्रफळ १७,५९,५४० चौ. किमी. विस्तार १९°३० ते ३३° उत्तर अक्षांश आनी ९°३० त २५° उदेंत रेखांश. देशाचे उत्तरेक भूंयमध्य दर्या, उदेंतेक इजिप्त आनी सुदान, दक्षिणेक छाद आनी नायजर जाल्यार अस्तंतेक आल्जेरिया आनी ट्युनिशिया हे देश आसात. देशाक भूंयमध्य दर्याची १,९२० किमी.

लांबायेची दर्यादिग लाबल्या. ट्रिपोली हें देशाचें राजपाटण तशेंच देशांतलें सगळ्यांत व्हडलें शार.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे ट्रिपोलिटेनिया, सायरेनेयका, सिर्ते डॅझर्ट आनी फेझ्झान अशे मुरवेल तीन वांटे केल्ले आसात. देशाची सुमार ९५% भूंय रेंवटी वसू आसा. सहारा ह्या रेंवटी प्रदेशान देशाचो ९५% प्रदेश रेवडिला. भूंयभाग चडसो सपाट आसून सरासरी उंचाय २०० ते ६०० मीटर आसा. ट्रिपोलिटेनिया प्रदेश देशाच्या वायव्य भागांत आसून भूंयमध्य दर्यादिगेवयलो सपाट भाग, जेफारा मळ आनी जेबेल नेफुझा सड्याचो त्या प्रदेशांत आस्पाव जाता. ट्रिपोलिटनियेच्या दक्षिण भागांत हमादा अल् - हमरा हो तांबडो रेंवटी सडो आसा. सायरेनेयका हो प्रदेश देशाच्या ईशान्य भागांत आसा. सायरेनेयकाच्या उत्तर भागांत जेबेल अरव्दार हो सडो आसा. बार्क हो रेंवटी सडोय त्या प्रदेशांत आस्पावला. लिबियेच्या उत्तर - मध्य भागांत सिर्ते रेंवट आसा. नैर्ऋत्य भागांत फेझ्झान हो द्रोणी प्रदेश आसा. देशांत ल्हान ल्हान न्हंयो खूब. पूण गिमाच्या दिसांनी चडशो न्हंयो सुकतात.

**हवामान :** लिबियेचें हवामान मुरवेलपणान उश्ण रेंवटी प्रकारचें. देशाच्या हवामानांत शियांच्या दिसांनी दर्याचो जाल्यार गिमांत सहारा प्रदेशाचो चड प्रभाव जाणवता. देशाच्या चडशा भागांनी १५ सेंमी. परस उणो पावस पडटा. लिबियांतलो सेब्हा हो संवसारांतलो सगळ्यांत सुको प्रदेश. दर्यादिगांनी शिंयाळ्यांत पावस पडटा. सहारा प्रदेशांत वर्साक ५ सेंमी. इतलो पावस पडटा. सड्या वाठारांनी शिंयाळो खूब कडक. गिमाच्या दिसांनी तापमान ४६° सॅ. मेरेन वाडटा. शिंयाळ्यांतलें सरासरी तापमान उत्तर भागांत ११° सॅ. जाल्यार दक्षिण भागांत १७° सॅ. आसता. दक्षिणेकडच्यान येवपी 'गिब्ली' ह्या अतीउश्ण वाऱ्याक लागून लिबियाचें गिमाच्या दिसांनी तापमान रोखडेंच वाडटा. ह्या वाऱ्यावांगडा खूब रेंव आनी धुल्ल येता. दोंगरी वाठार आनी सडे सोडले जाल्यार देशाचो व्हड भाग सुकोच उरता. धा वर्सांतल्यान दोन खेपे तरी दुकळ पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** लिबियेंत सादारणपणान खाजूर, ज्युनिपर आनी रेंवटी प्रदेशांत वाडपी हेर वनस्पत आसा. जेबेल अल् अरव्दार ह्या उत्तरेकडल्या प्रदेशांत रानां आसात. हेर प्रदेशांत जळीं - मळीं झोंपां आनी तण वाडटा. पोसूं येता अशे मोनजातीं भितर ऊंट चड म्हत्वाचे. हांगाचे ऊंट मुरवेलपणान दोन मदारींचे आसतात. तरस, कोलो, सोंसो, स्कंक, जर्बोआ, रानमाजर, शेड्डे आनी जायत्या जातींचे सोरोप हांगा आसात. हांगाच्या सवण्यांभितर चंडोल, तितर, रान कबूतर, गरूड, गीद हांचो आस्पाव जाता.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** लिबियेच्या आदीम इतिहासाची म्हायती स्पश्टपणान मेळना. मेळिल्ल्या पुरातत्त्वीय अवशेशांवयल्यान इ.स.प. ६००० त हांगा नवाश्मयुगीन संस्कृताय नंदताली असो इतिहासकारांचो अदमास आसा. त्या तेंपार लिबियेच्या दर्यादिगांनी पशुपालन आनी शेतकी वेवसाय चलताले. जाल्यार सहारा रेंवटी प्रदेशांनी उदक आशिल्ल्या सुवातींनी शिकारी आनी पशुपालक हांच्यो वसणुको आशिल्ल्यो. पूण उपरांत प्रदेशांतलें सुकेपण वाडत राविल्ल्यान आनी बर्बर जमातींच्या घुरयांक लागून ह्या वसणुकांक देंवती कळा लागली. फुडें इ.स.प. २००० च्या अदमासाक नैर्ऋत्य आशियेंतल्यान आयिल्ल्या बर्बर लोकांनी लिबियेंतल्या थळाव्या लोकांचेर आपलो शेक बसोवन थंयच तेस्थीर जाले आसुंये. बर्बरांभितरल्या लेबू लोकांचो शेक उपरांत वाडत गेलो.

इ.स.प. १००० त फिनिशियन भोंवडेकारांनी हांगाच्या दर्यादिगांनी आपल्यो वसणुको उबारल्यो. तांचेभितरली ट्रिपोली ही म्हत्वाची. एआ, लेप्टिसमॅग्ना आनी सॅब्रत ह्या तीन गांवांनी मेळून ही वसणूक उबारिल्ली. देखून तिका ट्रिपोली हें नांव मेळ्ळें. उपरांत इ.स.पयलीं ७०० च्या सुमाराक ग्रीसी लोकांनी नायरेनेयका प्रदेशांत आपली वसणूक उबारली. ग्रीसी लोक उत्तर आफ्रिकेंत लेबू बर्बर लोक रावपी भागाक लिबिया अशें म्हण्टाले. देखून ह्या देशाक लिबिया हें नांव मेळ्ळें. इ.स.पयलीं ३३६ ते ३२३ मेरेन हो प्रदेश ॲलॅक्झांडर द ग्रेट हाच्या शेकातळा आशिल्लो. इ.स. पयलीं ९६ त रोमी लोकांनी ताचेर जैत मेळयलें. रोमी लोकांच्या शेकातळा लिबियाची सगळ्या क्षेत्रांनी भरभराट जाली. फुडें ५३३च्या सुमाराक लिबियेच्या दर्यादिगांतल्या वाठारांनी उदेंत रोमी साम्राज्याची सत्ता प्रस्थापित जाली. सातव्या शेंकड्याच्या मध्याक अरबी लोकांनी लिबियेचेर घुरयो घालून ते थंय स्थायीक जाले. अरब आनी बर्बर हांचेमदीं भरसण जावन थंय अरब - मुसलमान संस्कृताय विकसित जाली. उपरांत लिबियेचेर अरबी हेडग्या जमातींच्यो घुरयो चालूच आशिल्ल्यो.

११४५ नॉर्मन लोकांनी ट्रिपोली आनी भोंवतणचो प्रदेश आपल्या शेकातळा व्हेलो. लिबियेच्या अस्तंत भागाचेर ट्युनिशियेंतल्या हाफ्सिद घराण्याची सत्ता १५७४ मेरेन आशिल्ली. तांच्या तेंपार इस्लामी कला आनी संस्कृतायेची वाड जाली. उपरांत लिबियेचेर स्पॅनीश घुरयेकार आनी ऑटमन तुर्कांनी घुरयो घाल्यो. तुर्की सैन्यांत किरिस्तांव तरणाटे आनी बंदी केल्ले सैनीक हांची 'जॅनिसेरीझ' नांवाची एक पलटण आशिल्ली. १७११ त जॅनिसेरीज पलटणीचो अहमद कारामान्ली हो फुडारी जालो. ताणें तुर्की राज्यपालाची हत्त्या करून लिबियेची पुराय सत्ता आपल्या हातांत घेतली. उपरांत कारामान्लीच्या घराण्यांतल्या राज्यपालांनी लिबियेचेर आपली सत्ता गाजयली. चांचेगिरीच्या आदारान कारामान्ली घराण्यान खूब धन मेळयल्लें. पूण अमेरिका, इंग्लंड, फ्रांस आनी सिसिली हांणी चांचेगिरीआड मोहीम उबारिल्ल्यान कारामान्लीचें उत्पन्न उणें जायत रावलें. १८२६ त ऑटमन सम्राटान आपल्या स्फाहीझ ह्या सैन्यदलाच्या आदारान कारामान्लीकांक लिबियेंतल्यान धांवडावन घाले. उपरांत थंय

इस्तंबूलच्या तुर्कांचो शेक सुरू जालो. पूण तांच्या शेकातळा राजकीय आनी अर्थीक स्थितीय इबाडली. इटलीन १९११ त आनी पयल्या म्हाझुजाउपरांत उत्तर लिबियेचेर घुरयो घालून कांय भाग हातासलो. लिबियेंतल्यो सायरेनेयका आनी ट्रिपोलिटेनिया ह्यो दोन स्वतंत्र वसणुको एकाच गव्हर्नर जनरलाच्या शेकातळा आशिल्ल्यो. १९३४ त ह्यो दोनूय वसणुको एकठांय हाडून इटलीन तो आपलो अविभाज्य भाग अशें जाहीर केलें. दुसऱ्या म्हाझुजांत दोस्त राश्ट्रांनी इटलीचेर हार घालून लिबिया हातासली. १९४७ तले कबलातीवरवीं इटलीक लिबियेंतले सगळे हक्क सोडचे पडले. उपरांत संयुक्त राश्ट्रांनी मंजूर केल्ल्या थरावप्रमाण ग्रेट ब्रिटनान ट्रिपोलिटेनिया आनी सायरेनेयका जाल्यार फ्रांसान फेझ्झानची प्रशासनवेवस्था सांबाळची अशें थरलें.

१९४९ त संयुक्त राश्ट्रांनी आनीक एक थाराव पास करून, एक जानेवारी १९५२ दिसा लिबियेक स्वातंत्र्य दिवपाचें मान्य केलें. १९५० - ५१ त दर एक भागांतलो एक लोकप्रतिनिधी ह्याप्रमाण राश्ट्रीयसभा अस्तित्वांत येवन, तिणें राजेशाय संविधानाचो मसुदो तयार केलो. सायरेनेयकाचो सनूसी बंधुत्त्ववाद संघटनेंतलो मुखेली अमीर महंमद इद्रिस अल् सनूसी हाका राजा म्हणून वेंचून काडलो. २४ डिसेंबर १९५१ दिसा लिबिया स्वतंत्र जाल्ल्याची घोशणा करून सायरेनेयका, ट्रिपोलिटेनिया आनी फेझ्झान हे तीन स्वतंत्र प्रांत एकठांय हाडून लिबिया हें संघीय राज्य निर्माण केलें. उपरांत लिबिया अरब लिग आनी संयुक्त राश्ट्रांचो वांगडी जालो. स्वातंत्र्य जाहीर केल्लें तेन्ना लिबिया हो एक गरीब देश आसलो. लिबियी शासनान अमेरिका आनी ग्रेट ब्रिटन ह्या देशांक लिबियेंत लश्करी तळ उबारपाक मान्यताय दिल्ली. ताचे बदलाक लिबियेन तांचेकडच्यान व्हड खंडणी आनी तंत्रीक आदार घेतिल्लो. १९५८ त देशांत खनिज तेलाचो सोद लागले उपरांत देशाची अर्थीक स्थिती सुदारत रावली. १९६३ त लिबियेन एकात्म शासनपद्दत आपणायली. तिनूय प्रांत आनी तांचीं विधिमंडळां बरखास्त करून ताचे बदला धा प्रशासकी विभाग केले. मंत्रीमंडळाची रचणूक आनी प्रधानमंत्र्याची नेमणूक केली. अमेरिका आनी ग्रेट ब्रिटनाच्यो लश्करी आनी अर्थीक कबलाती लिबियेन रद्द केल्यो. अरब - इझ्रायलच्या झुजा वेळार लिबियेन प्रत्यक्षांत वांटो घेतलोना, पूण अमेरिका आनी ग्रेट ब्रिटनाआड निदर्शनां काडलीं.

कर्नल मूआम्मार अल् गदाफी हाच्या फुडारपणाखाल रेव्हलुशनरी कमांड काउंसिल ह्या क्रांतिकारक पंगडान सप्टेंबर १९६९ त राजाक सत्तेभायरो केलो. गदाफीन सगळी सत्ता आपल्या हातांत घेवन लिबिया हें प्रजासत्ताक राज्य अशें घोशीत केलें. गदाफीन लिबियेचो अध्यक्ष जाल्या उपरांत ताणें अरब सोशलिस्ट युनियन ह्या राजकीय पक्षाची स्थापणूक केली. मुखार त्या पक्षाचें नांव पिपल्स काँग्रेस अशें दवरलें. ताणें लिबियेचें नांवय 'सोशॅलिस्ट पिपल्स लिबियन अरब जम्हुरियात' अशें दवरलें. ताणें आपल्याक जाय तशे प्रशासकी बदल केले. ताणें इस्लाम हो राश्ट्रधर्म अशें घोशीत करून, देशांत मुसलमान समाजवाद आनी कुराणाचेर आदारीत न्याय आनी कायदे तयार केले. ताचो समाजवाद मुखेलपणान इस्लाम धर्म, परंपरा आनी विधी हांचेर आदारला. मुसलमान समाजवादाखातीर ताणें संस्कृतीक क्रांतीची घोशणा केली. ताणें आपली सत्ता घट करपाखातीर वेगवेगळया जमातींचे मुखेली, व्हड वेपारी, जमीनदार, सरदार, गिरेस्त लोक हांचेर वेगवेगळीं बंधनां घालून देशांतलो तांचो शेक उणो केलो. परकी मालकिच्या तेल कंपन्यांनी हस्तक्षेप करून त्या उद्देगधंद्याचें राश्ट्रियीकरण केलें. परकी अभियंते आनी तंत्र हांकां धांवडावन तांचे सुवातेर देशी तज्ञांक नेमले. १९८० उपरांत तेल वेपारांत चडटी - देंवती आयिल्ल्यान गदफीक अर्थीक समस्यांक तोंड दिवंचें पडलें. पूण रस्ते, तेल निवळीकरण आनी हेर उद्देगांनी ताणें खूब सुदारणा घडोवन हाडल्यो.

गदाफीचें विदेशी धोरणाचें मूळ हें अरबवाद आनी इस्लामी राश्ट्रवाद, तसोच तांचो प्रसार आनी प्रचार आशिल्लें. हाका लागून ताणें इजिप्त, सिरिया, ट्युनिशिया, चॅड, सुदान, मोरोक्को ह्या देशांकडेन दोस्तीच्यो आनी संघटनात्मक कबलाती केल्यो. ह्या सगळया धोरणाचें मूळतत्त्व म्हळयार इझ्रायलाचो विरोध. पूण चॅड देशाचो कांय भाग हाताशिल्ल्यान तशेंच युगांडाचेर घुरी घालून ताणें ह्या देशांकडेन दुस्मानपण आपणायलें. अमेरिका, ग्रेट ब्रिटन आनी हेर अस्तंती देशांनी इझ्रायलाक आदार केल्लो म्हणून लिबियेन तांची तेलपुरवण बंद केली.

**अर्थवेवस्था :** लिबियेचो वट्ट येणावळींतलो चडसो वांटो खनिज तेलासावन मेळटा. स्वातंत्र्य मेळळे उपरांत लेगीत तें एक गरीब राश्ट्र आशिल्लें. पूण १९५९ त देशांत खनिज तेलाचो सोद लागिल्ल्यान देशाच्या अर्थीक विकासांत वाड जायत रावली. शेतवडीकय देशांत म्हत्व आसा. पूण देशाची चडशी भूंय रेंवटी आनी उण्या पावसाक लागुनूय शेतकी उत्पादन खूब उणें जाता. वट्ट क्षेत्रांतली फकत १.४% भूंय शेतवडीक फावोशी आसा. तातुंतली फकत ७% भूंय शिंपणावळीखाल आसा. ट्रिपोलिटेनिया प्रदेशाच्या दयदिगांनी शियाळयांत पावसाचेर आदारीत जाल्यार गिमा दिसांनी बांयच्या उदकाचेर पिकां घेतात. ट्रिपोली भोंवतणीं ट्रक शेतवड करतात. हांगा जावपी शेतकी माल जलद ट्रकांवरवीं बाजारांत व्हरतात. हांगा लिंबा जातीचीं फळां, खाजूर, ओलिव आनी बदाम हांचें उत्पादन घेतात. अर्थीक उत्पन्नाचे नदरेन सातू हें पीक म्हत्वाचें. अस्तंत आनी उदेंतेकडच्या सड्याच्या भागांनी गंवाचें उत्पादन घेतात. पूण हांगा जावपी शेतकी पिकावळ उणी आशिल्ल्यान अन्नधान्याची गरज आयातीवरवीं भागोवंची पडटा. गंव, सातू, लिंबा जातीचीं फळां, ओलिव, खाजूर, बदाम, तोमाट, बटाट, द्राक्षां, कांदे, काळींग, संत्रां ही देशांतली म्हत्वाची पिकावळ. गोरवां आनी कुकडां पोसपाचीं व्हड केंद्रां शासनावरवीं चलतात. पूण

हो वेवसाय मर्यादीत प्रमाणांत चलता. देशाक व्हड दर्यादेग लाबिल्ली आसून लेगीत नुस्तेमारीक चड म्हत्व ना. लांकूड उत्पादनय उण्या प्रमाणांत जाता.

देशाच्या कांय भागांनी खनीज तेलाचो सोद लागले उपरांत उद्येगीक विकासांत भर पडत गेली. देशांतलीं चडशीं व्हड तेलक्षेत्रां नळमार्गान भूंयमध्य दर्यादिगांतल्या बंदरांकडेन जोडल्यांत. झाल्टन, अमाल, जालो, वहा, रागुबा, सारिर हीं देशांतलीं मुखेल तेलक्षेत्रां. संवसारांतल्या श्रेश्ठ तेल उत्पादक राश्ट्रांभितर लिबियेचो आस्पाव जाता. देशाचे वट्ट निर्मितींत ९९% परस चड वांटो आनी वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांत ६०% परस चड उत्पादन खनिज तेल, खनिज तेलउत्पादीत पदार्थ आनी सैमीक वायू हांचें आसता. ऑपॅक हें तेल निर्यातक राश्ट्र संघटनेचो लिबिया हो एक वांगडी. तेल संपत्तीच्या समुह येवजणेखातीर 'लिबियन नॅशनल ऑयल कॉर्पोरेशन' हे संस्थेंची १९७० त स्थापना केल्या. १९७३ मेरेन देशांतल्यो सगळयो तेल कंपन्यो शासनाच्या नियंत्रणाखाल हाडल्या. सैमीक वायुची पुरवण नळमार्गान करतात. देशांतले विद्युत्‌निर्मिती प्रकल्प मुखेलपणान खनीज तेलाचेरूच आदारून आसात. लोहखनिज, पॉटॅश, चुनखडक, संगमरवर, मॅग्नेशियम, पोटॅशियम, मँगनीज, कोळसो, जिप्सम हींय देशांत मेळपी म्हत्वाचीं खनिज उत्पादनां. शिमीट तिखें हांचेय व्हड कारखाने थंय आसात. हांचेरवेरीज प्लास्टीक, चप्पल, धातुंच्या वस्तुंची निर्मिती, शेतकी उत्पादनांचेर प्रक्रिया करपी ल्हान उद्येग, चामडें कमोवप, ओलिव तेल काडप, लुगट, शेंदऱ्यो करप, रंग, रुप्याच्यो वस्तू करप, बांदकामाचें साहित्य हेय उद्‌देग म्हत्वाचे आसात. ट्रिपोली हें देशांतलें म्हत्वाचें वेपारी केंद्र. दर वर्सा मार्चांत आंतरराश्ट्रीय वेपारी जात्रा ट्रिपोली नगरांत भरता. गदाफी सत्तेर आयले उपरांत ताणें वैयक्तिक वेपार बंद केलो. लिबियन दिनार हें देशातलें अधिकृत चलन. जाल्यार सँट्रल बँक ऑफ लिबिया ही थंयची मध्यवर्ती बँक. १९७० त देशांतल्या सगळया विदेशी बँकांचें राश्ट्रियीकरण जालां.

**येरादारी आनी संचारण :** देशांतलीं सगळीं म्हत्वाचीं शारां आनी गांवगिरे वाठारूय रस्त्यामार्गांनी जोडल्यात. लिबियेंत लोहमार्ग ना. लिबियन अरब ऍरलायन्साची स्थापणूक १९६५ त जाल्या. बेंगाझी आनी ट्रिपोली शारांनी आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. ट्रिपोली, बेंगाझी, पोर्ट ब्रेगा, मिझूराटा, सिद्रा, देर्ना आनी टोब्रूक हीं देशांतलीं म्हत्वाचीं बंदरां. लिबियेंत टपाल, दूरध्वनी बिनतारी संदेशवहन वेवस्था शासकीय पद्‌दतीन चलता. सोशलिस्ट पिपल्स लिबियन अरब जामाहिरीअ ब्रॉडकास्टींग कॉर्पोरेशन संस्थेकडल्यान अरबी आनी इंग्लीश भाशेंतल्यान नभोवाणी कार्यावळी जाल्यार अरबी, इंग्लीश, इटालियन आनी फ्रेंच भाशेंतल्यान दूरचित्रवाणी कार्यावळी प्रसारीत जातात.

**लोक आनी समाजजीण :** देशांतल्या ९०% वयर लोकांचो राबितो दर्यादिगांनी आसा. खनीज तेलाचो सोद लागले उपरांत शेतवड आनी पशुपालन वेवसायांत घुस्पल्ल्या लोकांचें प्रमाण खूब उणें जालां. देशांतले सुमार ९०% लोक अरब आनी बर्बर वंशाचे, जाल्यार 10% लोक हेर वंशीक पंगडांचे आसात. फेझान प्रदेशांत अरब, तुआरेग, बर्बर आनी खाप्री लोकांची भरसण जाल्ली दिसता. उदेंत लिबियेंत चडशे लोक अरब कुळांतले. हेर प्रदेशांनी रावपी लोक मुखेलपणान अरब आनी बर्बर वंशांची भरसण जाल्ली आसात. इस्लाम हो देशांतलो अधिकृत धर्म. तातुंतले सुमार ९७% लोक सुन्नी जाल्यार उरिल्ले लोक हेर धर्मांचे आसात. अल्पसंख्येन आशिल्ल्या लोकांमदीं ऑर्थडॉक्स, रोमन कॅथलीक आनी प्रॉटॅस्टंट किरिस्तांवांचो आस्पाव जाता. देशांत हेडग्या जमातींचेंय प्रमाण चड आसा. हांगाच्या बायलांचेर आयज लेगीत पारंपारीक कडक मुसलमानी बंधनां आसात.

लिबियेक स्वातंत्र्य मेळिल्लें तेन्ना ९०% वयर लोकसंख्या निरक्षर आशिल्ली. उपरांत शासनान शिक्षणाचेर खूब खर्च करून शिक्षणीक मळार खूब सुदारणा केली. सद्या देशांत पदवी शिक्षणा खेरीज कृषी, तंत्रीक आनी वेवसायीक प्रशिक्षण संस्थाय आसात. थंय इस्लामी विद्यापिठय आसा.

अरबी ही देशांतली अधिकृत भास इंग्लीश आनी इटालियन भाशांचोय व्हड प्रमाणांत वापर जाता. बर्बर भास मुखेलपणान ट्रिपोलिटोनिया प्रदेशांत उलयतात. लिबियी संस्कृती मुखेलपणान इस्लाम चालीरितींची छाप पडला. हांगाच्या लोकांक घोड्यां शर्यत आनी लोकनृत्यां हांची चड आवड. ट्रिपोली, बेंगाझी आनी मीझुराटा हीं देशांतलीं मुखेल शारां.

- कों. वि. सं. मं.

**लिबी, विलर्ड फ्रँक :** (जल्म : १७ डिसेंबर १९०८, ग्रँड व्हॅली - कोलोरॅडो; मरण : ८ सप्टेंबर १९८०).

अमेरिकन रसायनशास्त्रज्ञ. किरणोत्सर्गी कार्बन कालनिर्णय पद्‌दतीच्या सोदाखातीर ताका १९६० वर्साच्या रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. हेच पद्‌दतीन पदार्थांतलो कार्बन (१४) ह्या समस्थानिकाचो अणुक्रमांक पूण वेगळो वेगळो अणुभार आशिल्ल्या त्याच मूलद्रव्याच्या प्रकाराचो किरणोत्सर्ग मेजून ताची अदमाशी पिराय थारावंक येता. भूविज्ञान, पुरातत्त्वविद्या, मानवशास्त्र आनी इतिहास ह्या विशयांतल्या तज्ञांक कसलेय घटनेचो वा प्राचीन अवशेशांचो निरपेक्ष काळ थरोवपाखातीर ही पद्‌दत उपेगी पडटा.

ताणें कॅलिफोर्निया विद्यापिठाच्या (बर्कली) रसायनशास्त्रांतली बी. एस्. (१९३१) आनी पीएच्.डी. (१९३३) ह्यो पदव्यो घेतल्यो. १९३३ - ४५ त तो कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत भौतिकी रसायनशास्त्राचो अध्यापक, १९४१-४५ त अमेरिकेच्या मॅनहॅटन प्रकल्पाचो वांगडी, १९४५ - ४९ त शिकागोंतल्या एन्रिको फेर्मी इन्स्टिट्यूट ऑफ न्युक्लिअर

स्टडीस संस्थेंत रसायनशास्त्र विभागाचो वांगडी, १९५५-५९ त यू. एस्. अॅटॉमिक एनर्जी कमिशनाचो वांगडी आनी त्याच वेळार जिओफिजिकल लॅबोरेटरी ऑफ कार्नेजी इन्स्टिट्युशनाचे प्रयोगशाळेंत संशोधन सहाय्यक आशिल्लो. १९५९ वर्सा ताची कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत (लॉस अँजेलीस) रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून नेमणूक जाली.

लिबीचें किरणोत्सर्गी कार्बन कालनिर्णय पद्दतीसंबंदीचें संशोधन दुसऱ्या म्हाझुजांत बंद जालें. १९४५ ते १९५९ ह्या काळांत शिकागोंतल्या एन्रिको फेर्मी इन्स्टिटयूट ऑफ न्युक्लियर स्टडीस हातूंत ताणें आनी ताच्या विद्यार्थ्यांनी हे पद्दतीचो विकास केलो. मॅनहॅटन प्रकल्पाचो वांगडी आसतना लिबीन युरेनियमाचे समस्थानिक वेगळे करपी वायुरूपविसरण पद्दतीचो विकास केलो. अणुबाँब तयार करपारवातीर तिची गरज आशिल्ली. विश्वकिरण प्रारणाक लागून हायड्रोजनाचो अतिजड समस्थानिक ट्रिटियम तयार जाता आशिल्ल्याचें ताणें दाखयलें. जलीय विद्रावांतल्या इलॅक्ट्रॉन विनिमय विक्रियांचो अभ्यास करपारवातीर ताणें समस्थानिकांचो वापर केलो. बाश्पीभवन जाले उपरांत वर्शण जायमेरेन उदक वातावरणांत णव दीस मेरेन उरूंक शकता अशें ताणें दाखयलें.

लिबी, गुगेनहायम मॅमोरियल फाउंडेशनाचो दोन खेपे फॅलो आशिल्लो. (१९४१ आनी १९५१). ताका १९५१ वर्सा रिसर्च कोर पुरस्कार, १९५४ वर्सा कोलंबिया विद्यापिठाचें चॅंडलर पदक, १९५८ वर्सा विलर्ड गिब्स पदक, १९५९ वर्सा आल्बर्ट आयन्स्टायन पुरस्कार हे भोवमान मेळ्ळे.

ताणें रेडिओकार्बन डेटिंग (१९५२) हें पुस्तक बरयलां.

- कों. वि. सं. मं.

## लिमये, दत्तात्रेय बाळकृष्ण : (जल्म : १३ जुलय १८८७ मणचे, कोंकण; मरण : २६ फेब्रुवारी १९७१ पुणें).

भारतीय रसायनशास्त्रज्ञ. 'करंजीन' हें द्रव्य आनी 'निधोन प्रक्रिया' ह्या सोदांखातीर ताची नामना आसा.

ताचें शाळेंतलें शिक्षण हावनूर, नाशिक आनी मुंबय जालें. १९१० वर्सा ताणें फर्ग्युसन म्हाविद्यालयांतल्यान बी. एस्सी. आनी १९११ वर्सा एम्. एस्सी. ह्यो पदव्यो मेळयल्यो.

पुण्याच्या रानडे इन्स्टिटयुटांत ताणें १९११ - ४२ ह्या काळांत वनस्पतीज पदार्थांविशींचें रसायनीक संशोधन केलें आनी थंयच्यान १९४२ वर्सा संचालक म्हणून निवृत्त जालो. करंज (पाँगमिया ग्लॅब्रा) ह्या झाडांतल्यान मेळपी तेलांतलो 'करंजीन' हो स्फटिकी पदार्थ ताणें सोदून काडलो, ताची संरचना थारायली आनी तो संश्लेशणान मेळोवपाचो यत्न सुरू केलो. हेरवातीर ताणें पयलीं पन्युरोकुमारीन नांवाची संरचना संश्लिश्ट करून दाखयली आनी '२ ॲसिल रिसॉर्सिनॉल' ह्या वर्गाचीं संयुगां तयार करपाची एक अभिनव प्रक्रिया विकसीत केली.

रसायनम् हें नेमाळें ताणें १९३६ - ५६ ह्या काळांत चलयलें. ताचे कांय संशोधनाचे लेखूय हातूंत उजवाडा आयल्यात. हेभायर इंडियन कॅमिकल सोसायटीचे जर्नल आनी जर्मन कॅमिकल सोसायटीचें 'बेरिश्ट' ह्या नेमाळयांतल्यान ताचे संशोधनाचे लेख उजवाडा आयल्यात.

रसायनीक संशोधनाक उर्बा मेळची आनी अर्थीक आदार जावंचो म्हणून ताणें रसायन निधी स्थापन केलो.

पुणें विद्यापिठान डी. लिट. ही पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## लिमये, मधू रामचंद्र : (जल्म : १ मे १९२२, पुणे).

गोंयचो सुटकेझुजारी. शिकता आसतानाच ताणें भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेतिल्लो. १९३८ - ४१ त तो भारतीय राश्ट्रीय संघटनेचो वांगडी जालो, तशेंच १९३८ ते १९४१ मेरेन काँग्रेस सोशलीस्ट पार्टीचो तो वांगडी आसलो. भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींत ताणें सक्रिय वांटो घेतिल्लो. तेखातीर ताका १९४० - ४५ मेरेन बंदखणीची ख्यास्त जाली. १९४८ - ५२ त तो सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी आसलो. १९५३ त एसियन सोशलिस्ट ब्युरोचो सचीव जालो. १९५८ त सोशलिस्ट पक्षाचो अध्यक्ष जालो. २५ जुलय १९५५ दिसा गोवा विमोचन सहाय्यक समितीचे वतीन ८५ सत्याग्रह्यावांगडा तो पाशीं (पेडणे) पावलो. तेन्ना



पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरून बंदखणींत घालो. उपरांत २६ जुलय १९५५ दिसा प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत ताची चवकशी जावन ताका धा वर्सांखातीर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण २ फेब्रुवारी १९५७ दिसा ताची सुटका जाली. उपरांत १९६४, १९७३ आनी १९७७ त तो लोकसभेचेर वेंचून आयलो. तो जनता पार्टीचो सचिव आसलो.

अर्थीक आनी राजकीय तत्त्वप्रणालीचेर आदारीत ताणे बरेंच लिखाण केलां. कम्युनिस्ट पार्टी; फॅक्टस अँड फिक्शन; इवोलुशन ऑफ सोशलीस्ट पार्टी; बाय एस्एस्पी; पॉलिटीकल होरायझन आनी फिचर ऑफ हिन्दुस्थान हीं ताणें बरयल्लीं म्हत्वाचीं पुस्तकां. १८ जून १९८६ त गोंय सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**लिमये, शिरुभाऊ पुरूषोत्तम :** (जल्मः १७ नोव्हेंबर १९०७, पुणें; मरणः डिसेंबर १९९६).

सुटकेझुजारी. तो तंत्रविद्येचें शिक्षण घेतालो, पूण १९३० त सत्याग्रह चळवळींत वांटो घेवपाच्या उद्देशान ताणें शिक्षण अदर्‍यार सोडलें. इंडियन सोशलिस्ट पार्टीचो तो संस्थापक वांगडी आशिल्लो. महाराष्ट्राच्या प्रजा सोशलिस्ट पार्टीचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. पुणेंची नॅशनल कॉंग्रेस गोवा आनी गोवा विमोचन सहाय्यक समिती हांचेवरवीं ताणें गोंयचे सुटके चळवळींत वांटो घेतलो. मे १९५५ त तो सत्याग्रह्यांचो दुसरो पंगड घेवन आयलो. तेन्ना पुर्तुगेज पुलिसांनी ताका अटक केली. प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका १० वर्सां खर बंदरवणीची ख्यास्त आनी दंड भरिना जाल्यार आनीक दोन वर्सां बंदरवण अशी ख्यास्त फर्मायली. फुडें जानेवारी १९५७ त सगळयां वांगडा ताचीय सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८६ दिसा गोंय, दमण आनी दीव सरकारान सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**लिली :** एक फूलझाड. लिली हें फुलझाडांतलेंच लिलियम हे प्रजातींतले वनस्पतींचें सामान्य इंग्लीश नांव. तशेंच हेर जायत्या प्रजातींतल्या कांय वनस्पतिंकूय ह्याच नांवान वळखतात.

लिलियम हे प्रजातींत सुमार ८० - १०० जाती आसून त्यो सगळयो वरवदी आसात. तांकां खांदयो नासतात. पूण जमनींत तांच्यो मुंडल्यो आसतात. तांचो प्रसार मुखेलपणान उत्तर गोलार्दांतल्या समशीतोश्ण कटिबंधांत आसा. जायत्या जातींची सोबेखातीर लागवड करतात. तशेंच, तातुंतल्यो १२ जाती हिमालयांतल्या उश्ण आनी समशीतोश्ण कटिबंधीय पट्ट्यांत आनी दक्षिण भारतांतल्या दोंगरी भागांत मेळटात. जायत्यो विदेशी जाती आनी प्रकार भारतांत पोरसांनी लायतात. तांचे आकार - प्रकार, फुलांचो रंग, वास आनी उपेग हांकां लागून तांचें म्हत्व वाडत आसा. त्यो खूब वर्सां जगतात. तशेंच तांकां उदकूय चड लागता. दोंगरावयलें थंड वातावरण तांकां मानवता. हलकी वा जड आनी उदकाची बरी जिरवण जाता तसले रेंवट जमनींत लिली बऱ्यो वाडटात. तांची लागवड बियो, मुंडली, सालटां वा जमनींत वाडपी फांट्यापसून करूं येता.

लिलीच्या कांय जातींनी खोड जमनीचेर एक ते दोन मीटरांमेरेन ऊंच वाडटा. पानां चड करून लांब आनी अशीर आसतात. तीं जमनींतलें मूळ वा खोड हांचेपसून जमनीचेर वाडून आयिल्लीं वा जमनीवयल्याच खोडाचेर आयिल्लीं वा दोनूय तरांचीं आसतात. फुलोरे जमनीवयल्या खोडाच्या तोंकाचेर कणस वा चंवरीभाशेन आसतात. केन्नाय फुलां एकोडींच आसतात. दर फुलांत मेकळीं वा जोडिल्लीं स परिदलां, मधुप्रपिंड, स केसरदलां आनी त्रिपुटक अर्ध्वस्थ किंजमंडल आसता. फळां शुश्क, लंबगोल आनी ताचेर स कंगोरे आसून बियो तांबशो, चेपट्यो आनी खूब आसतात.

लिलीयमाच्यो दोन जाती (लि. जायगॅन्शियम) आनी (लि. वॉल्चियानम) हिमालयांत मेळटात. त्यो वरवदी आसतात. लिली ह्या सामान्य नांवान हेर प्रजातींतल्यो वा कुळांतल्यो कांय वनस्पती वळखतात. देरवीक, कमळाक वॉटर लिली आनी महापद्माक जायंट वॉटर लिली म्हण्टात. कळलावीक ग्लोरी लिली, सापकांदो म्हणजेच कोब्रा लिली, स्टार - लिली, स्पायडर लिली, ॲमेझॉन लिली, बेलाडोना लिली, झेफीर लिली आनी पीन क्युशन लिली ह्यो सगळयो वनस्पती ॲमारिलिडेसी कुळांतल्यो. लिली ऑफ द वॅली आनी लेमनडे लिली ह्यो लिलीएसी वा पलांडू कुळांतल्यो आसात. चीन आनी जपानांतल्या कांय जातींच्या मुंडल्यांचो आनी फुलांचो खावपाक उपेग करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**लिस्बन :** पुर्तुगाल देशाचें राजपाटण, मुखेल बंदर आनी देशांतलें सगळयांत व्हडलें शार. ह्या शाराचें पोरनें नांव ओलिसपो. पुर्तुगेज भाशेंत त्या शाराक लिश्बोअ म्हण्टात. युरोप खंडाच्या साप्प अस्तंत तोंकार, टेगस न्हंयेचे देगेर तें वसलां.

लिस्बनाचे स्थापणुकेविशीं साबार दंतकथा मेळटात. पूण खूब आदल्या तेंपावयली सविस्तर म्हायती मेळना. फिनिशियन लोकांनी हांगा पयली वसणूक उबारिल्ली अशें म्हण्टात. उपरांत कार्थेजियन आनी रोमी लोकांनी (इ.स.प. २५० ते इ.स. ४०१) थंय सत्ता गाजयली. फुडें बिसिगॉथांनी पांचव्या शेंकड्यांत रोमी लोकांक हारोवन, तांचेर आपलो शेक बसयलो आनी आठव्या शेंकड्यांत ते मूर लोकांच्या शेकातळा गेले. त्या शाराचो ते लुझबोना, लिक्सबना वा डलिक्सबन असो उल्लेख करताले. उपरांत सुमार ४३३ वर्सां तांचो थंय शेक आशिल्लो. ११४७ त पुर्तुगालाचो पयलो राजा आफोंस एंरींक हाणें किरिस्तांव सैन्याच्या (Crusader) आदारान लिस्बनाचेर घुरी घालून तें मूर लोकांकडच्यान घेतलें. तेराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत लिस्बन हें पुर्तुगालाचें अधिकृत राजपाटण आशिल्लें. आशियांत येवपी उदका मार्गाचो सोद लावपी धाडशी तारवट्याचें लिस्बन हें मुखेल केंद्र आशिल्लें. सोळाव्या शेंकड्याच्या मध्याक जाल्ले दोन भूंयकांप आनी प्लेगाचे धामीक लागून शाराचें खूब लुकसाण जालें. उपरांत १ नोव्हेंबर १७५५ दिसा जाल्ल्या भुंयकांपांत ह्या शाराचो विध्वंस जालो आनी तातूंत साठ हजारांवयर लोकांक मरण आयलें. १८०७ - ०८ च्या सुमाराक तें फ्रेंचांनी आपल्या ताब्यांत घेतलें आनी १८२३ त नेपोलियनाचे हारी उपरांत परतून मूळ घराणें सत्तेर आयलें.

लिस्बन हें पुर्तुगालचें सगळयांत म्हत्वाचें उद्देगीक, वेपारी, राजकीय, अर्थीक, शिक्षणीक आनी संस्कृतीक केंद्र. युरोपांतलो

सगळयांत व्हडलो तारवां बांदपाचो कारखानो थंय आसा. यंत्रसामुग्री, तिरवें, शाबू, रसायनां, शिमीट, कागद, खाद्यपदार्थ, प्लास्टिक, लुगट, कंवची, इलॅक्ट्रॉनिक साहित्य, तंबाकू उत्पादनां, पीठ, साकरनिर्मिती, खनीज तेल शुध्दीकरण आनी हेर उद्देग शारांत चलतात. येरादारीचें तें मुखेल केंद्र. लिस्बन शार सितूबल द्विपकल्पाक जोडपी सालाझार हो हुमकळपी पूल १९६६त बांदला. संवसारांतल्या व्हड हुमकळपी पुलांभितर हाचो आस्पाव जाता. शाराच्या मध्यभागाक आशिल्ल्या वेपारी केंद्राक लोअर सिटी अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

## ली, त्सुंग - डाओ : (जल्म : २४ नोव्हेंबर, १९२६, शांघाय - चीन).

चीनी-अमेरिकन सैध्दांतिक भौतिकीविज्ञ. बिटा क्षयाभाशेन (किरणोत्सर्ग) दुबळया अणूकेंद्रीय परस्परक्रियांचे बाबतींत समता अक्षय्यता तत्त्वाच्या जावपी उल्लंघनाचो सोद आनी तेखातीर मूलकणांबाबत म्हत्वाचे सोद लागपांत जाल्ली मदत हेरवातीर ताका चेन निंग यांग ह्या ताच्या सांगात्यावांगडा १९५७च्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो.

नॅशनल जजिआंग विद्यापिठांत शिकतना जपानी आक्रमण जाल्ल्यान ताका कुनमिंगच्या नॅशनल साऊथवॅस्ट विद्यापिठांत वचचें पडलें. थंय ताची यांग हाचेकडेन वळख जाली. चीनी सरकारी शिश्यवृत्ती मेळिल्ल्यान तो १९४६ वर्सा अमेरिकेंतल्या शिकागो विद्यापिठांत गेलो. थंय ताणें एन्रीको फेर्मी हाच्या मार्गदर्शनाखाला काम केलें आनी १९५० वर्सा भौतिकींतली पीएच्.डी. पदवी घेतली. कांय म्हयने यर्किझ वेधशाळेंत ज्योतिशशास्त्राचो संशोधन सहयोगी म्हणून काम करतकच तो बर्कलीच्या कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत संशोधन सहयोगी आनी अध्यापक जालो (१९५० - ५१). उपरांत ताका प्रिन्स्टनच्या इन्स्टिटयूट ऑफ ॲडवान्स्ड स्टडी हे संस्थेंत अधिछात्रवृत्ती मेळ्ळी आनी थंय ताणें १९५१ - ५३ त यांग हाचे वांगडा संशोधन केलें. उपरांत तो कोलंबिया विद्यापिठांत १९५३ वर्सा भौतिकीचो सहाय्यक प्राध्यापक, १९५५ वर्सा सहयोगी प्राध्यापक आनी १९५६ वर्सा प्राध्यापक जालो. १९६० त तो इन्स्टिटयूट ऑफ ॲडवान्स्ड स्टडींत प्राध्यापक म्हणून परत गेलो. उपरांत १९६३ वर्सा परतून तो कोलंबिया विद्यापिठांत भौतिकीचो प्राध्यापक जालो आनी १९६४ वर्सा थंयच एन्रीको फेर्मी प्राध्यापक पदाचेर ताची नेमणूक जाली.

ली हाच्या ह्या सोदाक लागून मूलकण भौतिकी सिध्दांतांत म्हत्वाच्यो सुदारणा घडून येवपाक मदत जाली. कांय विशिश्ट दुर्बळ परस्परक्रियांचे बाबतींत काल - व्युत्क्रमण अचलतेच्या जावपी उल्लंघनाचें स्पश्टीकरण दिवपासंबंदी ली हाणें १९६४ वर्सावन म्हत्वाचें कार्य केलां. हाचे भायर ताणें खगोलीय भौतिकी, सांख्यिकीय यामिकी, अणूकेंद्रीय भौतिकी, क्षेत्र सिध्दांत आनी संक्षोभ ह्या विशयांचेंय कार्य केलां.

ताका नोबॅल पुरस्कारासयत आल्बर्ट आयनस्टायन स्मृती पुरस्कार (१९५७), प्रिन्स्टन विद्यापिठाची डी. एस्सी. पदवी (१९५८) हे भोवमान मेळ्ळे. तो नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस (१९६४) आनी अमेरिकन फिझिकल सोसायटीचो वांगडी आसा. ताचे बरेचशे संशोधनात्मक निबंद 'फिझिकल रिव्ह्यू' ह्या नेमाळयांत उजवाडा आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## ली, युआन त्से : (जल्म : २९ नोव्हेंबर १९३६, सिन-चू - टायवान).

अमेरिकन रसायनशास्त्रज्ञ. उड्ली आर्. हर्शबाख (अमेरिका) आनी जॉन सी, पोलॅन्यी (कॅनडा) हांचे वांगडा ताका १९८६ वर्साच्या रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळा. ह्या तिगांयच्या संशोधनाक लागून विक्रियांचे गतिकीचो म्हळयार गीतशास्त्रीय अध्ययनाचो विकास जावन रासायनिक विक्रियांची मूलभूत यंत्रणा उक्ती जावंक मदत जाली.

१९५९ वर्सा ताणें टायपेंतले नॅशनल टायवान युनिव्हर्सिटीची पदवी आनी १९६१ वर्सा सिन-चूचे नॅशनल त्सिंग हुआ युनिव्हर्सिटीची स्नातकोत्तर (Post graduate) पदवी घेतली. ते उपरांत तो अमेरिकेंतल्या कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत (बर्कली) गेलो आनी थंय हर्शबाख हाच्या मार्गदर्शनाखाला संशोधन करून १९६५ वर्सा ताणें रसायनशास्त्राची पीएच्.डी. पदवी घेतली. १९६८ मेरेन ताणें हर्शबाख हाचेवांगडा पदवेफुडलें शिक्षण चालू दवरून पीएच्. डी. अधिछात्र म्हणून काम केलें. तेउपरांत १९६८-७१ त ताणें जेम्स फ्रांक इन्स्टिटयूट आनी शिकागो विद्यापिठाच्या रसायनशास्त्र विभागांत सहप्राध्यापक, १९७१ - ७२ त सहयोगी प्राध्यापक आनी १९७३-७४ त रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून काम केलें. १९७४ वर्सा तो कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत परत येवन रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक जालो. त्याच वर्सा ताका अमेरिकेचें नागरीकत्व मेळ्ळें.

वायुरूप द्रव्यांच्या रासायनिक विक्रियांच्या सखोल अनुसंधनाखातीर टक्कर जावपी रेणवीय शलाका हर्शबाख हाणें सोदून काडिल्ल्यो. ली हाणें ही शलाका पद्दत सादारण विक्रियांच्या अध्ययनाखातीर वापरपाचे नदरेन संशोधन केलें. हातुंतल्यान ज्वलनप्रक्रियेंतल्या विंगड विंगड पांवड्यांची म्हायती मेळ्ळी. हाचो उपेग अंतर्ज्वलन इंजिनाची कार्यक्षमताय वाडोवपाखातीर आनी उर्जानिर्मितीखातीर जावंक शकता असो संशोधकांचो अदमास आसा.

स्लोन अधिछात्रवृत्ती (१९६९), गुगेनहायम अधिछात्रवृत्ती (१९७६), मिलर प्राध्यापक पद (१९८१), अमेरिकेच्या पर्यावरण

खात्याचो ई. ओ. लॉरॅन्स पुरस्कार आनी हेर बरेचशे पुरस्कार आनी इनामां हे भोवमान ताका मेळळयात. ताचे खूबशे संशोधनपर लेख उजवाडा आयल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**लीलावती :** महाराष्ट्री प्राकृत भाशेंतलें एक प्रसिद्द काव्य. कोऊहल (कौतूहल) हाणें आपले घरकान्नीच्या सांगणेवयल्यान ह्या काव्याची रचणूक केली. राजा सातवाहन आनी सिंहलद्विपाची राजकुंवरी लीलावती हांचे मोगाकाणयेचेर हें काव्य रचलां. मुखेलपणान अनुष्टूभ छंदांत रचिल्ल्यो १,८०० गाथा ह्या काव्यांत आसात. अर्दी-मर्दी गद्यरचनाय दिसतात. इ.स.च्या सुमार ८ व्या शेंकड्यांत ही काव्यकृती रचल्या, अशें मानतात.

ह्या काव्याची कथा थोडेभितर अशी - सातवाहन राजाचें चित्र पळोवन लीलावती ताचेर भाळटा आनी आपले आवय - बापायचे परवानगीन ताच्या सोदाक भायर सरता. गोदावरीचे देगेर तिका विरहिणी आशिल्ली तिची मावशेभयण महानुमती ही कुवलयावली नांवाचे दुसरे विरहिणी वांगडा रावताली ती मेळटा. त्यो तिगीय एकठांय रावंक लागतात.

राजा सातवाहन आपल्या राज्याचो आवांठ वाडोवपाच्या हेतान सिंहलद्विपाचेर घुरी घालता. पूण राजाचो सेनापती विजयानंद ताका सल्लो दिता, सिंहलद्विपाच्या राजाकडेन इश्टागत करप योग्य थरतलें. हो सल्लो मान्य करून राजा विजयानंदाक आपलो दूत म्हणून सिंहलद्विपाक धाडटा. पूण वाटेर वादळ जाल्ल्यान विजयानंदाचें व्हडें फुट्टा आनी ताका गोदावरी न्हंयेचेदेगेर रावंचें पडटा. सिंहलराजाची धूव लीलावती हांगाच रावता ही खबर ताचेमेरेन पावता. विजयानंद सातवाहनाकडेन वचून ताका ही खबर दिता.

सातवाहन लीलावतीकडेन लग्न जावपाची इत्सा प्रगटायता. पूण महानुमती आनी कुवलयावली हांकां तांचे मोगी मेळमेरेन आपलें लग्न जावप आपल्याक समा दिसना अशें ती तांकां कळयता. ताका लागून सातवाहन आपलो गुरू नागार्जुन हाचेवांगडा पाताळांत वचून महानुमतीचो मोगी माधवानील हाका मेकळो करता. राक्षस योनींत उरिल्ल्या चित्रांगद गंधर्वाची मुक्तताय करून कुवलयावलीक मोगी तो मेळोवन दिता. तेउपरांत सातवाहन - लीलावती, चित्रांगद - कुवलयावली आनी महानुमती - माधवानील हांचीं लग्नां जातात.

ह्या काव्याची भास अलंकारीक पूण व्हांवती आसून तिचेर कालिदास, बाण आनी सुबंधू हांचो प्रभाव दिश्टी पडटा. कोणातरी अज्ञात टिकाकारान ह्या काव्याचेर लीलावती - कथा - वृत्ति नांवाची संस्कृत टिकाय बरयल्या. हो टिकाकार गुजरातचो आनी तो श्वेतांबर जैन आसुंये, तशेंच ११७२ ते १४०४ मेरेन केन्नाय तरी जावन गेल्लो आसुंये, असो अदमास उक्तायला. आ. ने. उपाध्ये हाणें हो ग्रंथ संपादीत केलां (१९४९).

- कों. वि. सं. मं.

**लीळाचरित्र :** मराठी भाशेंतलो हो पयलो गद्य ग्रंथ म्हूण वळखतात. महानुभाव पंथाचो हो धर्मीक ग्रंथ सुमार सातशें वर्सां फाटीं रचला. इ.स.च्या १३व्या शतमानाचे अखेरेक म्हळयार इ.स.१२८३ च्या सुमाराक हो ग्रंथ रचून पुराय जाल्ल्याची गवाय मेळटा. मराठी भाशेंतलो ग्रंथराज ज्ञानेश्वरी आदलो हो ग्रंथ.

म्हाइंभटान हो ग्रंथ रचलो अशें मानतात. म्हाइंभट हाका महेंद्रभट, माहिंद्रव्यास, महेंद्रव्यास ह्याय नांवांनी वळखतात. पूण जे पद्दतींत ह्या ग्रंथांची रचना सिध्द जायत गेली ताका अणसरून ताचें कर्तेंपण म्हाइंभटाक दिवपाक कांय विद्वानांचो आक्षेप आसा. तांचें म्हणणें अशें, म्हाइंभटान फकत दुसऱ्यांनी कथन केल्ल्यो लीळा बरोवन घेतल्यात. ताकालागून तो तांचो फकत बरोवपी लेखक थारता. रचपी न्हय. तेन्ना लीळांच्या रचपाचो मान ताका दिवप समा जायना. तो मान त्या त्या कथकांक फावो जाता. ह्या मतावरवीं पळोवंक गेल्यार 'एकांका'चो कर्तो श्रीस्वामीचक्रधर हो स्वताच थारता, जाल्यार उत्तरार्धाचो कर्तो नागदेवाचार्य थारता. पुर्वार्धांतल्यो लीळा पंथांतल्या जायत्या ल्हान - व्हड अनुयायांकडल्यान पुंजायल्यांत, तेन्ना ह्या खंडाचें कर्तृप कोणाक दिवं येता, असो प्रस्न उप्रासता. हाची जाब अशी, ह्या तीनूय वाट्यांनी पुंजायल्ल्यो लीळा एकठांय केल्याउपरांत त्यो तपासून तांचें 'निकेपण' ताडून पळोवन म्हाइंभटान तांचें संकलन आनी संपादन केलां. हेविशीं 'स्मृतिस्थळ' ह्या पंथाच्या ग्रंथान खणखणीत पुरावो मेळटा. पुर्वील्ल्या आनी आर्विल्ल्या साबार विद्वानांनीय ताचें हें ग्रंथकर्तृप मानून घेतलां. तेन्ना ह्या अपूर्व ग्रंथाचें कर्तृप ताचेंच, हातूंत मातूय दुबाव ना.

**इतिहास :** ह्या ग्रंथाचे तीन खंड आसात - एकांक, उत्तरार्ध आनी पुर्वार्ध. हातुंतलो 'उत्तरार्ध' सगळयांत पयलो रचलो. ताचे फाटोफाट 'पुर्वार्ध' आनी ह्या दोनूय खंडांक पूरक जावचो आनी श्रीचक्रधरस्वामी हाचें चरित्र पुराय जावचें म्हण अखेरेक 'एकांक' रचलो. इ.स. १२८३ च्या सुमाराक तें पुराय जालें असें म्हणूं येता. श्रीस्वामीचक्रधराचें निर्वाण जालेउपरांत ताची शिश्यमंडळ रिध्दपुराक गोविंदप्रभूच्या आसऱ्याक येवन रावली. उपरांत त्या स्वामीच्या कर्तृपाविशींच्यो यादी काडून ताका तोखेवंक लागले. हातुंतल्यान म्हाइंभटाक स्वामीच्यो ह्यो यादी म्हळयार 'लीळा' पुंजावपाची कल्पना सुचली. ताणें आपली ही इत्सा पंथाचो गुरू नागदेवाचार्य हाका सांगली. ताकाय ती भावली आनी ताचे अनुज्ञेन अशे तरेन ह्या ग्रंथाच्या वावराक प्रारंभ जालो. श्रीस्वामीचक्रधराचो ज्या ज्या वाठारांतल्या ल्हान - व्हड मनशांकडेन संबंद आयिल्लो, त्या त्या लोकांक म्हाइंभट वचून मेळळो. तेखवातीर ताणें 'उभय गंगातीर' वाठाराची भोंवडी

केलीच, पूण तेभायर तो आंध्र प्रदेशांतल्या श्रीशैल पर्वता सारक्या वाठारांतूय वचून आयलो. अशे तरेन सुमार ९५० लीळा ताणें पुंजायल्यो. हातूंत पंथांतल्या आनी समाजांतल्या विंगड विंगड वाठारांतल्यान वावुरपी लोकांचो, दादल्या - बायलांचो, तेचवरी जाण्ट्या - नेण्ट्यांचो, विद्वान - अशिक्षितांचो, गरीब - श्रीमंताचो आस्पाव आसा. पुंजायल्या ह्या 'लीळांक' नागदेवाचार्यासारक्या अधिकारी आनी जाणकार मनशांकडल्यान मान्यताय मेळोवन घेतली. हाका लागून ह्या 'लीळां'च्या खरेपणाविशीं दुबावाक वाव उल्लो ना आनी तांचें संकलन - संपादन म्हळयार श्रीचक्रधरस्वामीची वाङ्मयीन मूर्त जावंक पावली. अशे तरेन ह्या ग्रंथाचो जल्म जालो. ह्या ग्रंथसिध्दीचें हें काम खुबूच कश्टांचें आनी काळरवायरें. पूण ताणें तें अथक परिश्रमान यशस्वीपणान तडीक पावयलें. ताच्या ह्या वावराविशीं, ताच्या साक्षेपाविशीं आनी ताचे चिकाटेविशीं 'स्मृतिस्थळ' ह्या महानुभाव ग्रंथान गवाय मेळटा.

एकांक, पुर्वार्ध आनी उत्तरार्ध ह्या तिनूय खंडांतल्या ९५० लिलांचें संकलन आनी संपादन म्हळयार लीळाचरित्र. 'लीळा' म्हळयार परमेश्वरान चेतना सांगातान केल्ल्यो ल्हान - व्हड 'सहेतुक क्रीडा'. 'लीळा' हो ग्रंथ म्हळयार श्रीचक्रधरस्वामी हाची 'दीसपटीच'. हातुंतल्यान ते खंय खंय गेल्ले, तांचे वांगडा तेन्ना कोण कोण आशिल्ले, थंयचे प्रसंग, त्यावेळार ताणें किदें म्हळें वा उपदेश केलो, असल्या साबार बारीक - सारीक गजालींची नोंद. ह्यो ९५० लीळा (कांय अभ्यासकांच्या मताप्रमाण हो आंकडो १५०९ मेरेन वता) तीन खंडांत विभागल्यात त्यो अशो - 'एकांक' ७४ (श्री नेने हांच्या मताप्रमाण ७६) 'पुर्वार्ध' ३५८ आनी 'उत्तरार्ध' ४८८. श्रीचक्रधरस्वामी हाणें स्वता सांगिल्ल्या यादींचें संकलन 'एकांका'त केलां जाल्यार 'पुर्वार्धां'त पंथांतल्या जायत्या ल्हान - व्हड मनशांच्या स्वामीविशींचे यादींचें संकलन - संपादन केलां 'उत्तरार्ध' ह्या वाट्यांत मात खुद्द नागदेवाचार्यान म्हळयार भटोबासान स्वामीविशींच्या यादींच्या निवेदनाचो मुखेलपणान आस्पाव केल्लो आसा. ह्या त्रिखंडात्मक ग्रंथाची रचना अशे तरेन 'संकलन - संपादन - निवेदन' अशा त्रिविध स्वरुपान सिध्द जाल्ली पळोवपाक मेळटा.

ह्या तिनूय खंडांतल्यान श्रीस्वामीचक्रधर हांचें जिवीत पुराय रंगारुपान आकाराक येता. अवतारस्वीकार, शक्तिस्वीकार, नागांबिकेक प्रेमदान, नागदेवाचार्याचें अनुसरण आनी निमाणें प्रयाण ह्यो स्वामीच्या जिवितांतल्यो मुखेल अशो स घडणुको. 'एकांक'मदीं शक्तिस्वीकार मेरेनची हकिकत आपल्या जाल्यार 'पुर्वार्धा'ची सुरवात नागांबिकेक केल्ल्या प्रेमदानान जाता तर 'उत्तरार्धा'ची सुरवात नागदेवाचार्याक खडकुली हांगा केल्ल्या बोधनान जाता. हो पुराय ग्रंथ त्याकाळावयल्या वेव्हारीक मराठी भाशेंतल्यान गद्यांत बरयला.

हो ग्रंथ पुराय जाल्या उपरांत कांय वर्सांनी दक्षिण भारताचेर 'खालसेयाच्या धाडी' पडपाक सुरवात जाली. अशेच एके धाडी वेळार महानुभाव पंथाच्या लोकांक तांचे पुर्विल्ले वाठार म्हळयार 'उभयगंगातीर' हांगासावन पळून वचचें पडलें. तेन्ना ग्रंथाची मूळावी प्रत शेणली. ताका लागून ग्रंथाची परतून रचना करप गरजेचें जालें. पंथातल्या जायत्या जाणांक ह्या ग्रंथातल्यो साबार 'लीळा' तोंडपाठ आशिल्ल्यो. हिराइसा वा हिरांबा हिका सगळ्या सगळयो लीळा मुळाव्या रुपांत पाठ आशिल्ल्यो. तिच्या आदारान परशुराम बास हाणें 'सोदनी' करून ग्रंथाची पुनर्रचणूक केली. ताची ही सोदनी पयली आनी ग्रंथाचो दुसरो पाठ ताचो हो वावर 'पिढीपाठ' ह्या नांवान वळखतात. आयज जो बाळबोधग्रंथ उपलब्ध आसा तो ह्याच पाठाचें रूप जावन आसा. फुडें अशी सोदनी करपाचो वावर जायत्या जाणांनी फुडें व्हेलो. तातुंतल्यान आयच्या स्वरुपांतलो ग्रंथ सिध्द जायत गेलो. ह्या ग्रंथाचे विंगड विंगड स पाठ आसात - ते म्हळयार : १) म्हाइंभटान बरयल्लो मुळावो ग्रंथ (इ.स. सुमार १२८३), २) परशुराम बासाचो 'पिढीपाठ' (इ.स. सुमार १३१३), ३) शिवबासान तयार केल्ली 'पिढीपाठा'ची सोदनी (इ.स. सुमार १४०३), ४) नागनाथबासान तयार केल्ली सोदनी (इ.स. सुमार १४०३), ५) दत्तोबास तळेगावकर हांणी तयार केल्ली सोदनी (इ.स. सुमार १४२८) आनी ६) वाइंदेशकर हाणें तयार केल्ली सोदनी.

ह्या पाठांमदलो पयलो मूळ पाठ आज अस्तित्वांत ना. उरिल्ल्या पांच पाठांतल्या पयल्या तीनूच पाठांक पंथांत मान्यताय आसा जाल्यार निमाण्यां दोन पाठांक पंथ प्रमाण पाठ मानीना.

'चरित्र - आबाब' ह्या महानुभाव ग्रंथाप्रमाण चवथी सोदनी मुरारीमल्ल हाणें इ.स. सुमार १५८८ ह्या वर्सा केल्या म्हणपाचें कळीत जाता. दोतोर वि.भि. कोलते हाणें ह्या ग्रंथाची विंगड विंगड २५ हातबरपां हातासर्ली अशी म्हायती मेळटा. ताणें ह्या हातबरपाची विभागणी तीन पाठांतल्यान केल्या ती अशी - (१) आम्नाय वा पिढीपाठ (२) तळेगावकर पाठ आनी (३) वाइंदेशकर पाठ.

ह्या ग्रंथाक पंथामदी धर्मीक म्हत्व आशिल्ल्यान 'खालसेयाच्या धाडी' सारकिल्या वा अन्य तसल्या संकटांक लागून हो ग्रंथ नश्ट जांवचो न्हय तेचवरी हेर लोकांच्या हातात पडून ह्या ग्रंथाची पवित्रताय नश्ट जांवची न्हय हाका लागून पंथाच्या हेर वाङ्मयाचे वांगडा पंथाच्या जाळवणदारांनी हो ग्रंथ पंथाच्या सांकेतिक लिपयेंतल्यान तिगोवन दवरलो. ह्या ग्रंथा फुडें जे जायते पाठभेद उप्रासले ताचें हेय एक कारण जावं येता.

महानुभाव पंथामदीं ह्या ग्रंथाक धर्मीक म्हत्व आसाच पूण तेभायर ह्या ग्रंथाक विंगड विंगड ज्ञानशाखांच्या अभ्यासावतीरूय म्हत्व आसा म्हणपाचें सिध्द जालां. हो ग्रंथ म्हळयार फकत श्रीचक्रधरस्वामीचें चरित्र वा आत्मचरित्रूच उरना तर त्याकाळावयल्या सबंद महाराष्ट्र देशाचे चरित्रचित्रूय तातुंतल्यान रंगारुपाक आयिल्लें दिश्टी पडटा. श्रीचक्रधरस्वामीचो संचार गोदावरी न्हंयेच्या दोनूय

धडांवयल्या वाठारांतल्या सगळ्या थरांतल्या लोकांमदी आशिल्लो. ताकालागून तांचें चरित्रचित्रण ह्या विंगड विंगड लोकांच्या चित्रणाबगर पुराय जायना. ते जंय जंय गेल्ले थंयच्या विंगड विंगड समाजाच्यो चालिरीती, चाल - चलणूक, सणवार, एकवट्तां, उत्साव, उपास - तापास, देव - देवपणां, गाव - गांवपणां, वेपार - उदीम, कामधंदो, आचार - विचार, शिकप - सवरप, गुन्यांव, कायदोकानून, भेस - भास, शेता - भातां, खावप - जेवप, सोवळें - होवळें, वजन - माप, विंगड विंगड संस्कार सुवाळे, समज, भ्रम, विश्वास, श्रध्दा, भक्ती, धर्म - पंथ, आदी जायत्या गजालींचें चित्र आमच्या मुखार उबें रावता. यादव काळावयल्या समाजाच्या समाजीक आनी संस्कृतीक जीविताचो अभ्यास करपी तेचवरी भाशाविज्ञानिक हांकां हो ग्रंथ म्हळयार मुळावो आदार थारता. ह्या ग्रंथाची भास ही त्या काळावयली वेव्हारीक मराठी भास आशिल्ल्यान आनी ताचें स्वरुप गद्य ग्रंथाचें आशिल्ल्यान ते भाशेचें पातयेवपासारकें रूप - जें आमकां ज्ञानेश्वरी सारक्या काव्य ग्रंथात लेगीत पळोवंक मेळप शक्य ना - पळोवंक मेळटा.

जे पद्धतीन हो ग्रंथ सिध्द जायत गेलो तें पळयल्यार ती एक 'संशोधन प्रक्रिया' आशिल्ल्याची गवाय मेळटा आनी हाका लागून श्रीचक्रधरस्वामीची वाङ्मयीन मूर्त इतलीच विशेशताय ताची उरना, तर तो मराठी भाशेंतलो, देशी भाशेंतलो, पयलो 'शोधप्रबंध' म्हणूं येता. ह्या भायर ह्या ग्रंथाची व्हडवीक सांगपी जाल्यार तो मराठी भाशेंतलो पयलो चरित्रग्रंथ, पयलो आत्मचरित्र ग्रंथ, पयलो इतिहास ग्रंथ, पयलो संकलन ग्रंथ, पयलो संपादीत ग्रंथ, दुसरे भाशेंत अनुवादीत जावपाचो मान फाव जाल्लो पयलो मराठी ग्रंथ, मुखार वचून जायत्या ग्रंथांक जल्माक घालपी ग्रंथ, अशीं साबार खाशेलपणां ह्या ग्रंथाक लाबल्यांत.

ह्या ग्रंथान महानुभाव वाङ्मय निर्मणेक प्रेरणा दिली. तेचवरी देशी वा प्राकृत भाशेंतल्यान, मराठी भाशेंतल्यान, गद्य ग्रंथरचना करपाकूय प्रेरणा दिली. ह्या ग्रंथाच्या कुसव्यांतल्यान सूत्रपाठ, दृश्टांतपाठ, स्थानपोथी आदी महानुभाव पंथाचे धर्मीक ग्रंथ जल्माक आयले. ह्या ग्रंथातल्या कांय 'लीळां'चो अनुवाद 'रत्नमालास्तोत्र' ह्या नांवान संस्कृतांतल्यान जालो. अशेतरेन हो ग्रंथ म्हळयार गद्य मराठी वाङ्मय संततीचो आदीपुरूस थारता.

- बाळकृष्ण गं. कानोळकार

**लुइस, विल्यम आर्थर :** (जल्मः २३ जानेवारी १९१५, सेंट ल्युसिया - वॅस्ट इंडीज).

नामनेचो ब्रिटीश अर्थशास्त्रज्ञ. १९७९ च्या अर्थशास्त्र विशयाच्या नोबॅल पुरस्काराचो सहविजेतो. ताचे आवयचें नांव इडा लुइझा लुइस आनी बापायचें नांव जॉर्ज फेर्दिनांद. ताचे बायलेचें नांव ग्लॅडिस जॅकब्स. ताचें शिक्षण लंडन अर्थशास्त्र संस्थेंत जालें. ताणें बी. कॉम; पीएच्.डी. तशेंच एल्‌एल्.डी. ह्यो पदव्यो घेतल्यो. हेच संस्थेंत १९३८-४८ वर्सा ताणें अधिव्याख्यातो म्हणून आपले अध्यापकीय कारकीर्दीक सुरवात केली. १९४८ - ५८ त ताणें मँचेस्टर विद्यापिठांत अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून काम केलें. वॅस्ट इंडीज विद्यापिठांत ताणें पयलीं प्राचार्य आनी उपरांत उपकुलगुरू म्हणून काम पळयलें (१९५९ - ६३). १९६३- ८३ अशीं सुमार वीस वर्सां तो अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतल्या प्रिन्स्टन विद्यापिठांत अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक आशिल्लो. फुडें ह्याच विद्यापिठांत तो गुणश्री प्राध्यापक म्हणून काम करूंक लागलो. मदल्या काळांत लुइस हो कॅरिबियन विकास बँक (१९७० - ७३), तशेंच कॅरिबियन संशोधन परिशद ह्या संस्थांचो अध्यक्ष आशिल्लो. हेभायर तो अमेरिकन तत्त्वज्ञान संस्था, अमेरिकन ॲकॅडेमी ऑफ आर्ट्स ॲंड सायन्सीस ह्या संस्थांचो अनुक्रमान अध्यक्ष आनी सन्मान्य वांगडी आशिल्लो. १९७९ वर्सा अर्थशास्त्र विशयाचो नोबॅल पुरस्कार ताका आनी थिओडोर डब्ल्यू. शुल्ट्झ ह्या अमेरिकन अर्थशास्त्रज्ञाक वांटून मेळ्ळो. हाचेभायर ताका लंडन (१९८२), येल (१९८३) आनी हार्वर्ड (१९८४) ह्या विद्यापिठांकडल्यान अर्थशास्त्र विशयांतल्यो मानादीक डॉक्टरेट पदव्यो मेळ्ळयात.

१९५४ वर्सा ताणें अर्थीक विकासाविशीं 'अमर्यादीत कश्टपुरवण सिध्दांत' मांडलो. ताच्या मतान अर्थीक विकास आनी विकास ह्यो एकाच अर्थाच्यो संज्ञा आसात. काटकसरीचे यत्न, उत्पादनाखातीर वाडिल्ल्या गिन्यानाचो वापर आनी दर मनशा फाटल्यान साधनसामग्रेंत वाड अशो विकासाच्यो तीन मुखेल गरजो आसून अर्थीक क्रियांक ऊर्बा दिवपाक आनी तांकां परावृत्त करपाक शासनाचो म्हत्वाचो वांटो आसा, अशें ताचें मत आसा. हुशार शासनकर्त्याकडल्यान ऊर्बा मेळ्ळेबगर खंयचेंच राश्ट्र उदरगत करूंक शकना. विकासात्मक नियोजन साध्य करपाचें आसल्यार तेखातीर कार्यक्षम भ्रश्टाचार नाशिल्ल्या नितळ प्रशासनाची गरज आसता. फाटसारिल्ल्या राश्ट्रांनी अशें प्रशासन आसप खूब कठीण. हाका लागून शासनांनी निरंकूश अर्थवेव्हारांचें धोरण आपणावंक जाय कारण तांच्या मतान समंजस राजकारण आनी सम्यक लोक प्रशासन ह्या दोगांयचेर नियोजनाचें जैत आदारिल्लें आसता.

जगभर आर्थर लुइस हाका सर्जनशील प्रायोगिक विद्वान म्हणून वळखतात. ताचें लक्ष अर्थीक समृध्दीचें मूळस्थान, शेतजमीन हांचेर थिरावल्लें दिसता. खंयचेय अर्थवेवस्थेंतलें मानवी भांडवलाचें आसपी म्हत्व, तेच भाशेन अल्पविकसीत राश्ट्रांतलें कृशिकार्याचें म्हत्व ह्यो दोनूय गजाली ताच्या लिखाणांतल्यान दिसतात. अविकसीत तशेंच विकसनशील देशांचीं विकासाविशींचीं धोरणां थारावपाविशीं संयुक्त राश्ट्रां, संवसारीक बँक तेच भाशेन अंक्टाड ह्या संस्थांचेर आपलो छाप उदेवपी कांय मेजक्या अर्थशास्त्रांभितर लुईसाचो आस्पाव जाता. आपल्या विंगड विंगड ग्रंथांवरवीं ताणें हो भोवमान मेळयला.

ताचे ग्रंथ अशे आसात - (१) इकॉनॉमिक सर्व्हे : १९१८ - ३९ (१९४९); (२) ओवरहेड कॉस्ट्स (१९४९); (३) द थिअरी ऑफ इकॉनॉमिक ग्रोथ (१९५५); (४) पॉलिटिक्स इन वॅस्ट आफ्रिका (१९६५); (५) डॅव्हलपमेंट प्लॅनिंग (१९६६); (६) रिफ्लॅक्शन्स ऑन द इकॉनॉमिक ग्रोथ ऑफ नायजेरिया (१९६८); (७) सम आस्पॅक्ट्स ऑफ इकॉनॉमिक डॅव्हलपमेंट (१९६९); (८) ट्रॉपिकल डॅव्हलपमेंट; १८८०- १९१३ (१९७१); (९) द इव्होलूशन ऑफ द इंटरनॅशनल इकॉनॉमिक ऑर्डर (१९७८); (10) ग्रोथ अँड फ्लक्चुएशन्स १८७०- १९१३ (१९७८); (११) रेशियल कॉन्फ्लिक्ट अँड इकॉनॉमिक डॅव्हलपमेंट (१९८१). ह्या ग्रंथांतल्यो 'द थिअरी ऑफ इकॉनामिक ग्रोथ' ह्या ग्रंथाक लागून ताका संवसारभर नामना मेळ्ळी आनी ताका १९७९ चो नोबॅल (अर्थशास्त्र) पुरस्कार फावो जालो. हाचे भायर ताणें खुबशे मोलादीक सोदनिबंद आनी लेख खबरांपत्रांनी आनी नेमाळ्यांनी उजवाडायल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**लुझियदश :** पुर्तुगालाचें राष्ट्रीय महाकाव्य. श्रेश्ठ पुर्तुगेज कवी लुईशद कामोंयश (१५२४ - ८०) हो ताचो कर्तो. लुझियदश ह्या उतराचो अर्थ 'लुझुचे पूत' वा 'पुर्तुगेज'. लुझितानिया हें पुर्तुगालाचें लॅटीन नांव. लुझू हो ताचो मिथ्य कथात्मक नायक. 'ओताव्हा रिमा' हें वृत्तान बरयल्ल्या ह्या महाकाव्याची वट्ट पद्यसंख्या १,१०२ आसून ती धा सर्गांनी विभागिल्ली आसा.

वाश्कु द गामाची उदकांतली भोंवडी आनी ताचें भारतांत आगमन ह्या विशयाचे चौकटेंत पुर्तुगालच्या पुराय इतिहासांतले उज्वल रवीण कवीन ह्या महाकाव्यांत चित्रीत केल्ले आसात. किरिस्तांव धर्माच्या दुस्मानांचेर पुर्तुगालान मेळयल्ल्या जैताचें वर्णन करतना कवीचो अभिमान प्रभावीपणान प्रतीत जाता. लुझियदश हें किरिस्तांवी महाकाव्यय म्हणूं येता. पूण पेगन मिथ्य कथांच्या संवसाराचे रंगूय हांगा ठळकपणान दिश्टी पडटात.

ह्या महाकाव्याचो रिचर्ड फॅन्शॉन केल्लो इंग्लीश अणकार १६५५त उजवाडाक आयलो. जे.डी. एम्. फोर्ड हाणें लुझियदश मूळ पुर्तुगेज संहिता इंग्लीश टिपांसयत उजवाडायला (१९४६).

- कों. वि. सं. मं.

**लुटुली, आल्बर्ट जॉन :** (जल्म : १८९८, सॉलूशी - न्होडेशिया; मरणः २१ जुलय १९६७, ग्रूटव्हिल).

दक्षिण आफ्रिकेंतलो अहिंसावादी फुडारी, वर्णदुस्वासाचो विरोधक आनी १९६० वर्साच्या शांततायेच्या नोबॅल पुरस्काराचो पयलो आफ्रिकन मानकरी.

न्होडेशियेंतल्या एका खेड्यांत किरिस्तांव झूलू जमातींत जल्मल्ल्या लुटुलीचें मूळ कुटूंब ग्रूटव्हिल (द दरबान)चें आसून ताचो बापूय जॉन बन्यन दुभाशाचें आनी आवय कांय काळ कपडे धुवपाचें काम करताली. बापायच्या मरणा उपरांत (१९०८) आवयन आनी चुलत्यांनी लुटुलीक शिक्षण दिवन व्हड केलो.

नातालांतल्या मिशन स्कुलांतल्यान शिक्षण घेवन ताणें अमेरिकन बोर्ड मिशन म्हाविद्यालयांतल्यान अॅडम्स पदवी घेतली आनी थंयच १९२१ वर्सा ताणें अध्यापकाची नोकरी धरली. १९२७ वर्सा तो सहाध्यायी शिक्षिका जाकेरुन्या भोंगू हिचेकडेन लग्न जालो. थंयच्या ताच्या पंदरा वर्सांच्या अध्यापनाच्या काळांत ताणें १९२८ वर्सा आफ्रिकन शिक्षक संघटनेचो सचिव आनी १९३२ वर्सा अध्यक्ष म्हणूनूय काम केलें. फुडें झुलूप्रथेप्रमाण तांच्या घराण्याकडेन जमातीचें मुखेलपद आयलें आनी १९३६ वर्सा ताणें जमातींतल्या जाण्ट्यांचे इत्सेप्रमाण तें आपणायलें. ह्या काळांत ताणें जमातींतलीं खूब कामां केलीं.

१९४५ वर्सा तो आफ्रिकन राश्ट्रीय काँग्रेस हे संघटनेचो सक्रीय वांगडी जालो. दक्षिण आफ्रिकेंतल्या गोऱ्यांचे वंशीक पृथक्वसनाच्या यत्नांक ताणें अहिंसात्मक मार्गांनी विरोध केलो. तेन्ना जमातीचो मुखेल ह्या ताच्या पदाक शासनाची मान्यताय ना, ह्या तत्त्वाचेर १९५२ वर्सा ताका पदावयल्यान काडलो. त्याच वर्सा तो आफ्रिकन राश्ट्रीय काँग्रेसच्या अध्यक्षपदाचेर वेंचून आयलो.

आफ्रिकन राश्ट्रीय काँग्रेसीचो मूळ हेत मानवी हक्कांची राखण करप हो आशिल्लो. दक्षिण आफ्रिकेंत काळ्यांक राजकीय हक्क न्हयकारून तांचे खाजगी जिणेचेरूय प्रतिबंध घाल्ले. पारंपारीक रितीन चलत आयिल्ल्या काळे आनी गोरे हांच्या संघर्शांतलो मतभेद सोंपोवपाखातीर दोगूय मानवतेच्या नात्यान कशे बांदिल्ले आसात हें पटोवन दिवपाखातीर लुटुलीन खूब यत्न केले. ताणें काळ्या लोकांच्या मानवी हक्कांखातीर मोहीम आंखली. तेखातीर लुटुलीच्या हालचालींचेर खर निर्बंद घाले. कांय वर्सां ताका बंदखणूय भोगची पडली. आपार्थायड (वर्णदुस्वास) कायद्याआड निदर्शनां करप्यांची शार्पव्हिल हांगा शासनान कत्तल केली आनी आफ्रिकन काँग्रेसीचेर बंदी घाली. शांतिकाय आनी अहिंसात्मक लड्याखातीर लुटुलीक, १९६० वर्साचो शांततायेचो नोबॅल पुरस्कार फावो जालो. हाचे उपरांत ताका ग्लासगो विद्यापिठांत कुलमंत्रिपद दिलें. पूण ह्या पदाचेर हजर रावपाक ताचेर बंदी घाली.

ताणें खूब स्फूट लिखाण केलां. ताची आपजीण 'लॅट माय पिपल गो' एकाच वेळार ग्रेट ब्रिटनांत आनी दक्षिण आफ्रिकेंत उजवाडा आयल्यो (१९६२). शासनाच्या राजद्रोहाच्या आरोपाखाल ताका नजरकैदेंत दवरिल्लो. ग्रूटव्हिल हांगाच्या रेल्वे अपघातांत ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**लुर्या, साल्वादॉर एडवर्ड :** (जल्मः १३ ऑगस्ट १९१२, तुरिन - इटली; मरण : ६ फेब्रुवारी १९९१, लॅक्झिंग्टन - मॅसॅच्युसॅट्स).

इटलियन अमेरिकन जीववैज्ञानिक. व्हायरसांची प्रतिकृतिजनन यंत्रणा आनी आनुवंशिकी संरचना हेसंबंदींच्या सोदाखातीर ताका मॅक्स डेल्ब्रूक आनी आल्फ्रेड द हेर्शी हांचेवांगडा १९६९च्या शरीरक्रियाविज्ञान वा वैजकी विशयाचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो. ताचे सूक्ष्मजंतूभक्षीक (Phage) म्हळयार सूक्ष्मजंतूचेर संक्रमण करपी व्हायरसांक जावपी सूक्ष्मजंतूंच्या विरोधाविशींचें संशोधन रेणवीय जीवविज्ञानांत म्हत्वाचें थारलां.

ताणें तुरिन विद्यापिठांत शिक्षण घेवन १९३५ वर्सा एम्.डी. पदवी घेतली. पॅरिसांतले इन्स्टिट्यूट ऑफ रेडियम हे संस्थेंत १९३८ - ४० त संशोधन अधिछात्र म्हणून काम करतकच तो अमेरिकेक गेलो. थंय ताणें कोलंबिया विद्यापिठांत शस्त्रक्रियात्मक सूक्ष्मजंतुविज्ञानांतलो संशोधन सहाय्यक (१९४० - ४२), इंडियाना विद्यापिठांत सूक्ष्मजंतुविज्ञानाचो निदेशक (१९४३ - ४५), सहाय्यक प्राध्यापक (१९४४ - ४७) आनी सहयोगी प्राध्यापक (१९४७ - ५०), इलिनॉय विद्यापिठांत सूक्ष्मजीवविज्ञानाचो प्राध्यापक (१९५०-५९), मॅसॅच्युसॅट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजींत सूक्ष्मजीवविज्ञानाचो प्राध्यापक (१९५९-६४) आनी जीवविज्ञानाचो सेजविक प्राध्यापक (१९६४ - ७०) ह्या पदांचेर ताणें काम केलें. १९७० वर्सा मॅसॅच्युसॅट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजीच्या जीवविज्ञान विभागांत इन्स्टिट्यूट प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली. १९६५ वर्सा सावन तो साल्क इन्स्टिट्यूट फॉर बायॉलॉजिकल स्टडींत अनिवासी अधिछात्र आशिल्लो. १९७२ सावन मॅसॅच्युसॅट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजीच्या सँटर फॉर कॅन्सर रिसर्चाचो संचालकूय आशिल्लो. १९४२ - ४३ वर्सा तो व्हाण्डरबिल्ट आनी प्रिन्स्टन विद्यापिठांत गुगेनहाय अधिछात्र आशिल्लो. १९४७ वर्सा ताणें अमेरिकेचें नागरीकत्व आपणायलें. ताणें १९६३ - ६४ वर्सा पॅरिसांतल्या पाश्चर इन्स्टिट्युटांत काम केलें. अमेरिकेंत स्थलांतर करचेपयलीं ताणें पाश्चर इन्स्टिट्युटांत सूक्ष्मजंतूभक्षी संशोधनाच्या तंत्रांचो अभ्यास केलो. अमेरिकेंत वतकच डेल्ब्रूक हाचेकडेन ताची वळख जाली आनी ताचेवतीन लुर्याचो, व्हायरस स्वप्रतिकृतिजननासंबंदींच्यो अडचणी सोडोवपाच्या कार्याक ओंपून घेतिल्ले अमेरिकन फाज ग्रुप हे संघटनेकडेन संबंद आयलो. १९४२ वर्सा ताणें सूक्ष्मजंतूभक्षी कणाचो इलॅक्ट्रॉन सूक्ष्मालेख म्हळयार इलॅक्ट्रॉन सूक्ष्मदर्शकान घेतिल्लें छायाचित्र मेळयलें.

नोबॅल पुरस्काराभायर ताका लेपेटिक इनाम (१९३५), लॅंघी इनाम (१९६१) आनी लुइझा ग्रॉस हॉर्पिट्झ इनाम (१९६९) हे पुरस्कार मेळ्ळे. तो नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस, अमेरिकन ॲकॅडेमी ऑफ मायक्रोबायॉलॉजी, अमेरिकन सोसायटी ऑफ मायक्रोबायॉलॉजी (अध्यक्ष १९६७- ६८), जॅनॅटिक्स सोसायटी ह्या नामनेच्या वैज्ञानिक संस्थांचो वांगडी आशिल्लो.

जीवविज्ञानाचो एक फांटो म्हणून व्हायरस विज्ञानाचें विवरण करपी जनरल व्हायरॉलॉजी (१९५३) हो ग्रंथ ताणें बरयलो. 'लायफ : ॲन अनफिनिश्ड एकस्परिमॅंट (१९७४) ह्या ताच्या ग्रंथाक नॅशनल बुक अवॉर्ड मेळ्ळें. जर्नल ऑफ बॅक्टिरिऑलॉजी, एक्स्परिमॅंटल सॅल रिसर्च, जर्नल ऑफ मॉलिक्युलर बायॉलॉजी ह्या कितल्याशाच विज्ञानीक नेमाळ्यांचो तो संपादक वा संपादकी मंडळांचो वांगडी आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**लेअन, झां मारी प्येअर :** (जल्म : ३० सप्टेंबर १९३९ रोशइम - फ्रांस).

फ्रेंच रसायनशास्त्रज्ञ. सजिवांतल्या सैमीक प्रथिनांचीं कार्यां करपी, पूण उण्या रेणूभाराची आनी संरचना उणी घुस्पागोंदळाची आशिल्लीं द्रव्यां (रेणू) संश्लेशीत म्हळयार कृत्रीम रितीन तयार करपाचे नदरेन ताणें मोलादीक संशोधन केलें. सजिवांतल्या म्हत्वाच्या प्रक्रियांचें आनी जीवद्रव्याच्या वर्तनाचें तशाक तशें अनुकरण (नक्कल) करपी रेणू (संयुगां) तयार करप आनी तांचो वेव्हारांत उपेग करून घेवप हेविशीं म्हत्वाचें संशोधन केलें. तेखातीर ताका जे. क्रॅम आनी चार्ल्स जे. पेडरसेन हांचे वांगडा १९८७ वर्साचो रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो. ह्या तिगांयच्या संशोधनांतल्यान रासायनिक आनी जैव क्रियांतल्या रेणूंच्या आकाराचें म्हत्व समजलें. म्हळयार अपेक्षीत विक्रिया आनी क्रिया सुरू जावंचेपयलीं रेणूंचे आकार एकमेकांक पूरक आनी चपखल आसचे पडटात. ह्या तिगांयनी अशो रेणवीय चावयो कृत्रीम रितीन तयार केल्ल्यो आसून रसायनशास्त्रांत एक नवो पांवडो घालो. ह्या येजमान - सोयरो (होस्ट - गॅस्ट) वा अधिरेणवीय (सुप्रा वा ॲक्स्ट्रा - मॉलिक्युलर) रसायनशास्त्र म्हण्टात.

लेअन हाचें शिक्षण स्ट्रॅसबर्ग विद्यापिठांत जालें. थंयसावन १९६३ वर्सा ताणें विज्ञानांतली डॉक्टरेट पदवी घेतली. उपरांत १९६३ - १९६४ वर्सा तो हार्वर्ड विद्यापिठांत संशोधन सहाय्यक, १९६६ - १९७० त तो स्ट्रॅसबर्गांतल्या लुई पाश्चर विद्यापिठांत रसायनशास्त्राचो सहप्राध्यापक, १९७० वर्सा सहयोगी प्राध्यापक आनी १९७० - १९७९ ह्या काळांत प्राध्यापक आशिल्लो. १९७९ वर्सासावन तो कॉलेज द फ्रांस (पॅरिस) हातूंत रसायनशास्त्राचो प्राध्यापक म्हणून काम करूंक लागलो. हेभायर ताणें १९७२ आनी १९७४ वर्सा हार्वर्ड, १९७७ वर्सा ई. टी. एच्. झुरिक, १९८४ वर्सा कॅंब्रिज आनी १९८६ वर्सा बार्सेलोना ह्या विद्यापिठांनी अभ्यागत प्राध्यापक म्हणून काम केलां.

लेअन आनी क्रॅम हांणी प्रोटिएज, एटीपीएज आनी ट्रांससायक्लेज ह्या एंझायमांचीं कांय प्रमाणांत नक्कल करपी येजमान

रेणूय तयार केल्यात. लेअन हाणें कार्बनी आदारद्रव्य आनी धातुंचें आयन हांचीं जटील संयुगां तयार केल्यांत. ताचेपसून महारेणू तयार करूं येतात. आदारद्रव्याची संरचना आनी विक्रियेचो प्रकार हांचेवतीन पडपी शिमो महारेणुचेर पडनात. तेरवातीर रसायनां (संयुगां) चड बारीकसाणेन वेगळीं करूं येतात. लेअन हाच्या संशोधनाक लागून आयनोफोर ह्या संयुगांची क्रिया कशी जाता हें चड स्पश्ट जालें.

ताका खूबशा संस्था - संघटनांच्या वांगडीपणाचो भोवमान फावो जालो. ताणें २५० परस चड संशोधनात्मक लेख विंगड विंगड नेमाळयांतल्यान बरयले.

- कों. वि. सं. मं.

**लेअव्हि - माँतॅल्चिनी, रीता :** (जल्म : २२ एप्रिल १९०९, तुरिन, इटली).

इटालियन अमेरिकन बायल जीववैज्ञानिक. १९८६ चो शरीरक्रियाविज्ञान वा वैजकी विशयांतलो नोबॅल पुरस्कार तिका आनी अमेरिकन जीवरसायनशास्त्रज्ञ स्टॅनली कोएन हाका तांच्या अनुक्रमान तंत्रिका (मज्जा) आनी अधिचर्म वृध्दी घटकांच्या सोदाखातीर वांटून मेळ्ळो.

तिणें १९३६ वर्सा तुरिन विद्यापिठाची एम्. डी. पदवी घेतली. तंत्रिकाविज्ञान आनी मनोदोशचिकित्सा ह्या विशयांतलो तीन वर्सांचो अभ्यास पुराय करून १९४० वर्सा तिणें त्याच विद्यापिठाची खाशेली पदवी घेतली. मजगतीं १९३६ - १९३८ त तिची तुरिन विद्यापिठाच्या तंत्रिकाविज्ञान आनी मनोदोशचिकित्सा विभागांत साहाय्यिका म्हणून नेमणूक जाली. पूण ती ज्यू धर्मीय आशिल्ल्यान तिका त्या पदावयल्यान काडली. उपरांत १९३८ - १९४० त ब्रुसेल्स (बेल्जियम) चे तंत्रिकाविज्ञान संस्थेंत तिणें काम केलें. पूण जर्मनीन बेल्जियमाचेर आक्रमण करतकच ती परत इटलीक आयली. १९४० - १९४३ ह्या काळांत तिणें पिमाँतांतल्या आपल्या घराकडेनूच एक ल्हानशें संशोधन केंद्र सुरू केलें. १९४३ - १९४४ त जर्मनीन इटलीचो ताबो घेतकच ती फ्लॉरेन्सांत भूंयगत जाल्ली. १९४४ - ४५ त तिणें इटालियन निर्वासितांचे छावणेंत अमेरिकन लश्करावांगडा वैज म्हणून काम केलें. झूज सोंपतकच १९४५ - ४७ त ती तुरिन विद्यापिठाचे इन्स्टिट्यूट ऑफ ॲनाटॉमी हे संस्थेंत साहाय्यिका आशिल्ली. १९४७ - ५१ त तिणें अमेरिकेंतल्या सेंट लुइसांतल्या वॉशिंग्टन विद्यापिठांतल्या प्रणिविज्ञान विभागांत व्हिक्टर हॅम्बर्गर हाच्या मार्गदर्शनाखाल संशोधन साहाय्यिका म्हणून काम केलें. ते उपरांत १९५१ - ५८ ह्या काळांत ती थंयच सहयोगी प्राध्यापिका आनी १९५८ - ६१ त प्राध्यापिका जाली.

१९५६ त ती अमेरिकेची नागरीक जाली पूण १९६१ वर्सा ती इटलीक परत गेली आनी थंय इन्स्टिट्यूट ऑफ सॅल्यूलर बायोलॉजी हे संस्थेंत जेश्ठ वैज्ञानिक म्हणून काम करूंक लागली. १९६१ - ६९ त तिणें वॉशिंग्टन विद्यापीठ आनी रोमांतल्या इंश्तितुतू द सानिता हांच्या संयुक्त विद्यमानान एक संशोधन कार्यावळ प्रस्थापित केली. १९६९ - ७९ ह्या काळांत ती रोमांतले नॅशनल काउन्सिल ऑफ रिसर्चच्या कोशिका जीवविज्ञान प्रयोगशाळेची संचालिका आशिल्ली. १९६९ - ७७ त वॉशिंग्टन विद्यापिठांतल्या जीवविज्ञान विभागांत प्राध्यापिकाय आशिल्ली आनी थंयच १९७७ वर्सासावन ती गुणश्री प्राध्यापिका म्हणून काम करूंक लागली. १९७९ - ८४ त ती नॅशनल काउन्सिल ऑफ रिसर्च कोशिका (पेशी) जीवविज्ञान प्रयोगशाळेंत पुराय वेळ संशोधिका आशिल्ली. थंयच १९७९ वर्सासावन ती सोयरी प्राध्यापक म्हणून काम करूंक लागली.

कृंतक (भक्ष्य कुरतडपी) प्राण्यांतल्या अधोहनू लाला ग्रंथी हो अर्बुद आनी सोरपावीख हांचेपरसूय एनजीएफचो चड विपूल उद्गम आशिल्ल्याचें १९५१ वर्सा समजलें. लेअव्हि - माँतॅल्चिनी आनी कोएन हांचे सोद हो विकसन तंत्रिका जीवविज्ञानांतलो एक म्हत्वाचो पांवडो थारलो. हाका लागून तंत्रिका विकासांतल्या यंत्रणांचो सोद घेवपाखातीर रासायनिक निश्चित केल्लो संकेत पदार्थ पयलेच खेपे वापरप शक्य जालें. लेअव्हि माँतॅल्चिनी हांणी हाचे उपरांतूय एनजीएफ संबंदींचें संशोधन फुडें चालू दवरलें. १९७५ उपरांत हेर बरेचशे वृध्दी घटक (देखीक - इंटरल्युकीन - २, सोमॅटोमेडीन) विंगड विंगड संशोधक पंगडांनी सोदून काडले आनी तांणी लेअव्हि माँतॅल्चिनी तशेंच कोएन हांणी विकसीत केल्ल्या मार्गाचोच ताचेखातीर उपेग केलो.

लेअव्हि - माँतॅल्चिनी हिका नोबॅल पुरस्कारासयत एफ्. ओ. श्मिट पुरस्कार (१९८१), लुइस रोझेनटिएल पुरस्कार (१९८२), इमॅजिन इटॅलिया (१९८३), लुइझा ग्रॉस हॉरविट्झ पुरस्कार (१९८३), आल्बर्ट लाश्कर पुरस्कार (१९८६) हे भोवमान मेळ्ळयात. तशेंच तिका अप्साला विद्यापीठ (स्वीडन, १९७७), व्हाइट्समान इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्स (इझ्राएल, १९७८), सेंट मेरी कॉलेज (इंडियाना, १९८०) आनी वॉशिंग्टन विद्यापिठाची वैजकी शाळा (१९८२) हांणी डॉक्टरेट पदव्यो भेटयल्यात. अमेरिकेची नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सीस (१९६८) आनी ॲकॅडेमी ऑफ आर्ट्स अँड सायन्सीस (१९६६), फ्लॉरेन्साची ॲकॅडेमी ऑफ आर्ट्स अँड सायन्सीस (१९८१) तशेंच हेर मानादीक वैज्ञानिक संस्थांची ती वांगडी आशिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**लेऑँटिएफ, वॅसिली :** (जल्म : ५ ऑगस्ट १९०६, सेंट पीटर्झबर्ग - लेनिनग्राड).

नामनेचो अर्थशास्त्रज्ञ. जल्मान तो रशियन पूण ताणें अमेरिकेचें नागरीकत्व आपणायल्लें. निवेशउत्पाद विश्लेषण तंत्राचो जनक म्हणून वॅसिलीक १९७३ चो अर्थशास्त्र विशयांतलो नोबॅल

पुरस्कार फावो जालो.

वॅसिलीन १९२१ वर्सा सेंट पीटर्झबर्गच्या एका थळाव्या माध्यमिक विद्यालयांतल्यान पदवी घेतली आनी तो लॅनिनग्राड विद्यापिठांत गेलो. चार वर्सांत ताणें अर्थशास्त्र विशयांतली पदवी घेतली. १९२५ वर्सा तो जर्मनीक गेलो आनी ताणें बर्लिन विद्यापिठांत अध्ययनाक सुरवात केली. १९२८ वर्सा ताणें ह्या विद्यापिठाची डॉक्टरेट पदवी मेळयली. 'निवेश - उत्पाद विश्लेशण' ह्या विशयाचेर प्रबंध बरयतना ताणें इन्स्टिट्यूट ऑफ वर्ल्ड इकॉनॉमिक्स हे संस्थेंत 'संशोधन सहयोगी' म्हणून काम केलें. १९२८ - २९ त चीन सरकाराचो आर्थिक सल्लागार म्हणून नानकिंगाक रावले उपरांत परतून तो संस्थेंत येवन आपल्या पयलींच्या कामाचेर रुजू जालो. १९३२ वर्सा तो एस्टेला हेलेना मार्क्स हिचेकडेन लग्न जालो. १९३१ वर्सा ताणें अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत स्थायीक जावपाच्या हेतान आप्रवासी म्हणून प्रवेश केलो आनी त्याच वर्सा न्यूयॉर्कस्थित 'राश्ट्रीय आर्थिक संशोधन विभाग' हे संस्थेंत ताणें संशोधन सहयोगी म्हणून सेवेक आरंभ केलो. तेन्नाच हार्वर्ड विद्यापिठांत वॅसिलीची 'निवेश - उत्पाद विश्लेशण पद्दत' (इनपुट आउटपुट सिस्टम) विकसीत करपाखातीर आदार दिवपाची तयारी दाखयल्ल्यान १९३१ वर्साचे निमाणें तो त्या विद्यापिठाच्या अर्थशास्त्र विभागांत काम करूंक लागलो. पयलीं अधिव्याख्यातो (१९३१), उपरांत सहाय्यक प्राध्यापक (१९३३ - ३८), सहयोगी प्राध्यापक (१९३९ - ४५) अशो बडट्यो मेळून निमाणो तो हॅन्री ली अर्थशास्त्र प्राध्यापक म्हणून काम करूंक लागलो. ह्या पदाचेर ताणें (१९४६ - ७५) अशीं सुमार ३० वर्सां काम केलें.

अमेरिकन अर्थवेवस्थेच्या संरचनाविशींचो 'हार्वर्ड इकॉनॉमिक रिसर्च प्रोजॅक्ट' (हार्वर्ड आर्थिक संशोधन प्रकल्पा) चो संचालक म्हणून तो १९४२ वर्सासावन काम करूंक लागलो. अमेरिकन सरकाराच्या श्रम खात्यांत सल्लागार (१९४१ - ४७), सल्लागार झूजनितीकार्यालय (१९४३ - ४५); संयुक्त राश्ट्रां (१९६१ - ६२; १९८० - वाणिज्य विभाग १९६६ - ८२) अशा विंगड विंगड खात्यांनी ताणें म्हत्वाचीं पदां सांबाळ्ळीं. अमेरिकन तत्त्वज्ञान संस्था, अमेरिकन कला आनी विज्ञान अकादेमी, आंतरराश्ट्रीय सांख्यिकीय संस्था, अर्थमिती संस्था, अमेरिकन आर्थिक परिशद, तशेंच बऱ्योचशो विदेशी अकादम्यो हांचो तो वांगडी आशिल्लो. 'ऑर्डर ऑफ द चेरूबिम' हो पिसा विद्यापिठान केल्लो भोवमान (१९५३), ब्रुसेल्स विद्यापिठाची सन्माननीय डॉक्टरेट (१९६२), 'लिजन द ऑनर' (१९६७), १९७३ चो नोबॅल अर्थशास्त्र पुरस्कार, पॅरिस भांगरापदक, 'ऑर्डर ऑफ रायझिंग सन' (दुसरी श्रेणी) हो जपानाचो मान (१९८४) 'कमांडर ऑर्डर देस आर्ट्स अन देस लॅत्रश (१९८५) अशे भोवमान ताका फावो जाले.

१९४१ वर्सा अमेरिकन शासनान ताचेर ९६ अमेरिकन उद्येगांचें विश्लेशण करपाची आनी झुजाविशीं सुसज्जतायेचो अमेरिकीन अर्थवेवस्थेचेर किदें परिणाम जावं येता हें सोदून काडपाची व्हड जापसालकी ताचेर सोंपयली. अमेरिकन शासनाच्या श्रमविभागाचो सल्लागार म्हणून काम करतना, ताणें १९३९ची जनगणना आंकडेवारी मुलभूत धरून ९५ उद्येग आनी विभागीय क्षेत्रां हेसंबंदीचें निवेशउत्पाद विश्लेशण कोश्टक तयार करपाक मार्गदर्शन केलें.

लेऑँटिएफाच्या ह्या कोश्टकावयल्यान विंगड विंगड उद्येग एकामेकांकडल्यान कितें कितें खरेदी करची तशेंच एकामेकांक कितें विकूंक शकतात हें दाखोवंक येता. ह्या कोश्टकांत शासन, गिरायक, परकी देश हेसारके विभाग घालतकच राश्ट्रीय अर्थवेवस्थेंतल्यो वस्तू आनी सेवा हांच्या अभिसरणाचें पुराय चित्र दिसता. तंत्रविद्या, कर वा तिरव्या उत्पादन हातुंतलो संभाव्य बदल हे पुराय अर्थवेवस्था वा तिच्या खंयच्याय विभागाचेर कशे तरेन प्रभाव घालूंक शकता तें लेऑँटिएफ हाचें तंत्र अचूक सागूंक शकता. खूबशा देशांच्या शासनांनी अर्थीक आव्हानांची संभाव्यताय मतींत घेवन तांकां टक्कर दिवपाखातीर तशेंच शासकीय सांख्यिकी तपासपाखातीर निवेश - उत्पाद विश्लेशण तंत्राचो आदार घेतला. अर्थवेवस्थेंतल्या विनिर्दिश्ट परस्परावलंबी गजालींचो अभ्यास करपाखातीर तशेंच म्हत्वाचे प्रवाह आनी विनिर्दिश्ट प्रसंगांचे परिणाम हांचीं भाकितां करपाखातीर ह्या तंत्राचो वापर करतात. १९७३ वर्साच्या अदमासाक जगांतल्या पन्नासांवयर राश्ट्रांनी अर्थीक प्रवाहांचो अभ्यास आनी भाकितां करपाखातीर हें तंत्र वापरतात. अमेरिकेच्या वाणिज्य मंत्रालयान लेऑँटिएफ तंत्राचो वापर करून देशाचे अर्थवेवस्थेचीं खूबशीं संगणकी प्रतिमानां तयार केलीं. १९४८ वर्सा लेऑँटिएफ हाणें अमेरिकन अर्थवेवस्था प्रकल्पाचे धर्तेचेर हार्वर्ड अर्थशास्त्रीय प्रकल्प उबारलो. मार्च १९५१ वर्सा निशस्त्रीकरणाचे अर्थीक परिणाम अभ्यासपाखातीर अस्तंत जर्मनींतल्या कील शारांत भरिल्ले अर्थशास्त्रज्ञांचे आंतरराश्ट्रीय परिशदेंत लेऑँटिएफ हाणें म्हत्वाचें काम केलें. निःशस्त्रीकरणाच्या संदर्भांत येवपी अर्थीक अडचणी ह्यो संक्रमणकालीन आसूं येतात अशेंय मत ताणें मांडलें.

ताचे कांय नामनेचे ग्रंथ आसात ते अशे - स्ट्रक्चर ऑफ अमेरिकन इकॉनॉमी १९१९ - २० (१९५३). (२) स्टडीस इन द स्ट्रक्चर ऑफ दी अमेरिकन इकॉनॉमी (१९५३) (३) इनपुट - आउटपुट इकॉनॉमिक्स (१९६६, १९८६) (४) एसेस इन इकॉनॉमिक्स खंड १ (१९६६, १९८५) (५) द फ्यूचर ऑफ द वर्ल्ड इकॉनॉमी (१९७७) (६) इरेज इन इकॉनॉमिक्स खंड २ (१९७७, १९८५) (७) मिलिटरी स्पेंडिंग : फॅक्ट्स अँड फिगर्स, वर्ल्डवायड इम्प्लिकेशन्स अँड फ्यूचर आउटलूक (१९८३ सहलेखक एफ्. डचिन) (८) द फ्यूचर ऑफ नॉनफ्यूएल मिनरल्स इन् द यू. एस्. अँड द वर्ल्ड इकॉनॉमी (१९८३ - सहलेखक जे. कू. एस्. नासर आनी आय्. सोइन) (९) कलेक्टेड असेस (१९६६, १९८५) (१०) द फ्यूचर

इंपॅक्ट ऑफ ऑटोमेशन ऑन वर्कर्स (१९८६).

- कों. वि. सं. मं.

**लेखणी** : रंगीत द्रवरूप पदार्थान (चड करून पातळ शायेन) लेखन करपाखातीर वा रेशा वा चित्रां काडपाखातीर वापरांत आशिल्लें साधन. हजारांनी वर्सांसावन प्रतिमा आनी कुरू हाची ज्युस्ताज्यूस्त नोंद करपाची कला खबर आसली. पूण लेखन करपाखातीर फावो तें साधन (पान, साल) उपलब्ध जायमेरेन लिखणेचें पयलें रूप अस्तित्वांत येवंक नासलें. इ.स.चे १000 वर्सां पयलीं चीनी लोकांनी वापरिल्लो कुंचलो (ब्रश) चड करून लिखणेची पयली पूर्ण अवस्था आशिल्ली जावंये. तांणी आपल्या देशाचो इतिहास बरोवपाखातीर कुंचल्याचो उपेग केलो. इ.स.चे पयलीं ३00च्या सुमाराक इजिप्शीयन लोकांनी दाट बोरूचो लिखणेभाशेन उपेग केलो. सातव्या शेंकड्यांतल्या सेव्हिलचो सेंट इझिदोर हांच्या लेखांत क्विल लिखणेचो स्पश्ट उल्लेख मेळटा. पूण सवण्यांच्या पाखांसावन तयार केल्ल्यो अशो लिखण्यो चड करून पयलींय उपेगांत आशिल्ल्यो. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्यामेरेन युरोपांत क्विल लिखण्यो वापरांत आशिल्ल्यो. पूण धातूच्यो लिखण्यो वा आंपार घोळणुकेंत आयले उपरांत तांचो वापर उणो जालो. फाउंटन पेन, बॉलपॉयंट पेन आनीं तंत्वात्मक तोंकाचें पॅन हे लिखणेचे आर्विल्ले प्रकार.

बोरू पॅपीरस, ताडपत्र, भूर्जपत्र, कागद, लुगट हांचेरय बरोवपाखातीर बरेच पयलींसावन बोरूचो वापर करताले. इजिप्शीयन लोक कॅलॅमस वा अरूंडो ह्या सारकिल्या कोंड्यासावन तयार केल्ले बोरू वापरताले. १५ - १८ सेंमी. लांबायेचे आनी करंगळेच्या बोटाभाशेन वा त्यायपरस बारीक आसपी घट्ट अशी लांकडाची एक एक बडी ह्या स्वरुपांत हें उपलब्ध जातालें. भितरल्यान पोकळ आशिल्ल्यान धारेच्या चाकवान तो सहज तासपाक जाताल्यो. त्यो कायशो तिरशे दिशेन तासून उपरांत ताका जाय तशें बारीक तोंक काडून आनी तें तोंक एके खाशेले तिरशे रेशेंत तोडटकूच ही लिखणी तयार जाताली. कायरो



आलेक्झांड्रिया, इराणाचें आखात, उदेंते कडल्या देशांनी आनी भारतांत बोरूचो उपेग जातालो. अती बारीक आनी मोडणाच्या अक्षरांखातीर बाभळीचे वा साळीचे (साळपक्षाच्या पाखांट्यांतले) कांटे वापरताले.

क्विल लिखणी : रोमी साम्राज्य हारले उपरांत (इ.स. पाचवो शेंकडो युरोपांतल्या क्रिस्तांव मठवसियांक इंग्लिशींतल्या लेखांच्यो प्रती काडपाखातीर सामक्या तोंकाचे सुबक पूण मोव तोंकाचे लिखणेची गरज पडली आनी इतिहासीक क्विल (पांख) लिखणेचो सोद लागलो. ही लिखणी राजहंस, हंस, टर्की वा हेर सवण्याच्या पांखासावन तयार करताले. इ.स. ६00 ते १८३0 मेरेन क्विल लिखणी अती उदेंतेकडले देश सोडले जाल्यार सगळेकडेन बरोवपाचें एकलें एकसुरें साधन आशिल्लें. फुडें तातूंत आपार बसयलो.

धातुची लिखणी (टाक) आनी आपार इटलींतल्या पॉंपेई ह्या पुर्विल्ल्या शारांतल्या लोकांक धातुचे टाक खबर आसले. ह्या शाराच्या उत्खननांत मेळिल्ल्या अवशेशांमदली कांश्याची लिखणी इ.स. ७९ वर्सांपयलींची आसा. रोमी काळांतल्यो कांश्याच्यो लिखण्यो आर्विल्ल्या लिखण्यांवरीच आसल्यो. भांगर वा रुपें हे धातू वापरून मध्ययुगांत लिखण्यो तयार केल्यो, तरी त्यो उपेगापरस सोबायेखातीरूच आसताल्यो आनी गिरेस्त लोक त्यो एकमेकांक भेट म्हणून दिताले. बरेच पयलींसावन जरी धातुच्यो लिखण्यो खबर आसल्यो तरी एकुणिसाव्या शेंकड्यामेरेन तांचो उणो उपेग जातालो.

क्विल लिखण्यो बरोवपाच्या घर्शणाक लागून बेगीन झरताल्यो. तशेंच तांची पुरवण उणी आनी मर्यादीत आशिल्ली. बेगीन ना झरपी लिखणेचे गरजेंतल्यान लोखणी लिखणेचो सोद लागलो. १७४८ त फ्रांसांत हातान तयार केल्ली तिख्याची लिखणी आसली. १७८0 सॅम्युएल हॅटीसन ह्या बर्मिंगहॅम (इंग्लंड) च्या अभियंत्यान जोसेफ प्रीस्टली हाचे खातीर तिख्याची लिखणी तयार केली. उपरांत लंडनांत नळयेच्या आकाराची लिखणी तयार केली. जॉन मिल हाणें १८२८ बर्मिंगहॅमांत माक्नाच्या आदारान तिख्याची लिखणी तयार केली. फुडाराक तिका आपार आनी पॉयंटूय बसयलो.

फाउंटन पेन तिंतेरान लिखणी बुडोवन बरयतना शायेचो प्रवाह केन्ना उणो जाल्यार केन्ना बरेच चड प्रमाणांत जाता. तशेंच शाय सोंपले उपरांत लिखणी परत शायेंत बुडोवंची पडटाली जाका लागून बरोवपांत खंड पडटालो. शायेची अखंड पुरवण कशी करपाक येतली हेसंबंदान बरेच यत्न जाले आनी तातुंतल्यानच फाउंटन पेनाचो सोद लागलो. आपाराच्या तोंकाक अखंड पुरवण करपाक शकपी शायेचो सांठो आशिल्लें साधन म्हळयार फाउंटन पेन अशी सादारणपणान हाची व्याख्या करूं येता.

शायेची पुरवण सतत करपी लिखणी तयार करपाचे यत्न पयलींसावन सुरू आशिल्ले. १८0९ त बॉर्थोलोम्यू फॉश, १८१९ त जॉन शॅफर, जे. एच्. ल्युईस, हांणी पयल्या वयल्या फाउंटन पेनाचो सोद लायलो, अशें म्हण्टात. १८३९ त व्हल्कनी करणाचो सोद लागिल्ल्यान १८८४ त न्यूयॉर्काच्या एल्. ई. वॉटस्मन हाणें आर्विल्लें फाउंटन पेन तयार केलें. १८९0 उपरांत अशा पेनाची निर्मणी अदिकादीक प्रमाणांत जावंक लागली.

बॉल पॉयंट पेन : फाउंटन पेनाच्या परंपरांगत आपारा

बदला सामकी बारीक धातुची गुळी सॉकेटांत (उथळींत) बंदिस्त करून ताच्या आदारान बरोवपाक येवपी वा कुरवो करपाक येवपी साधनाक बॉलपॉयंट पेन वा बॉलपेन अशें म्हण्टात. १८८८त जॉन लाऊड ह्या अमेरिकन मनशान तोंकाचेर बारीक तिरव्याची गुळी आशिल्ल्या बॉल पेनाचो सोद लायलो. १८९६ च्या सुमाराक सिरल कोचेंडर हाणें ताच्या कार्याचें तत्त्व सोदून काडलें. १९१६ त व्हॅन व्हेचटन रैसडर्ब हाणें लाऊड हाचेंच असलें बॉलपेन तयार केलें. एल्. जे. बिरो न १९३० त नमुनो तयार केलो, तो बिरो ह्या नांवान फामाद जालो. १९४० त जॉर्ज ह्या ताच्या भावान तातूंत अदीक सुदारणा करून अशा पेनांच्या उत्पादनाक सुरवात केली. अती उंचायेचेर तिगपी, गळनाशिल्ली आनी शायेचेर परिणाम जायना जावपी अशीं हीं पेनां दुसऱ्या म्हाझुजांत लोकप्रिय जालीं. १९४९त फ्रॅनसीरव ह्या अमेरिकन रसायनशास्त्रज्ञान बॉलपेनारवातीर पातळनाशिल्ली बेगीन सुकपी आनी उच्च श्यानताय (दाटसाण) आशिल्लो शायेचो सोद लायलो आनी फाउंटन पेना परस बॉलपेन वा बॉल पॉयंट पेनाचो रवप दिसान दीस वाडूंक लागलो. तंत्वात्मक तोंकाचें (तंतूच्या तोंकाचें) पेन : ह्या पेनांत बरोवपारवातीर आपार आनी गुळी (बॉल) हांचे बदला तंतूचो उपेग करतांत. चड करून हे तंतू मोव आनी शाय ओडून घेवपी आसतात. अशा पेनाक मार्कर, मोव तोंकाचीं, तंत्वात्मक तोंकाचीं, स्कॅच, सिग्नेचर पेन अशीं नांवां आसात. हीं पेनां बरींच पोरनीं. इ.स. पयलीं ४000च्या सुमाराक ईजिप्त लोक 'रश' हे वनस्पतीसावन अशे तरेचीं पेनां तयार करतालो. फुडें कांय शेंकड्यां उपरांत चीनी लोकांनी हुंदराचे शेंपडेच्या मोव केंसांचो आनी पोर्सलिनाचो उपेग तेरवातीर केलो. फुडाराक कृत्रीम तंतूचो तेरवातीर वापर जालो. विसाव्या शेंकड्यांत ह्या पेनारवातीर वेगवेगळया रंगाच्या धुवन वचपी वा पुसून वचपी तशेंच ना पुसपी शायेचो उपेग जावपाक लागलो. ही शाय चड करून दोन तरांची आसता. एके तरेचे शायेंत बॉंझिना असलो ॲरोमेटिक विद्रावक (विरगळपी) पदार्थ आसता, जाल्यार दुसऱ्या प्रकारांत नाफ्थाअसलो ऑलफॅरिक विद्रावक आसता.

१९४०च्या सुमाराक अमेरिकेंत गुदांव, तारवां, काररवाने हातूंत वापरपारवातीर ब्रश पेनां तयार केलीं. तीं चित्रकारांमदींय लोकप्रिय जालीं. १९५0त तांकां मार्कर पेनां म्हणून वळरवुपाक लागले. ल्हान - व्हड खुणो करपारवातीर तीं उपेगांत येवंक लागलीं. फुडें जपानांत नायलॉन ॲक्रिलिक तंतुचीं तोंकां आशिल्लीं (शेण्याच्या आकाराचीं) पेनां बाजारांत आयलीं. ह्या पेनांनी कंवची, सॅलोफेन, तशेंच प्लास्टिकाचेर बरोवपाक येवंक लागलें. निशाणी करपारवातिरूय तांचो उपेग जावंक लागलो.

भारतांत कलकत्ता, मालवण आनी पंजाबांत विसाव्या शेंकड्यांत पेनांचे आपार तयार करपाचे काररवाने सुरू जाले. १९५७ उपरांत फाउंटन पेनांची जाल्यार १९६0 उपरांत बॉलपेनांचे काररवाने बरेच कडेन सुरू जाले. विल्सन, पायलट, रेनॉल्ड्स ह्यो तातुंतल्यो नांवां रुपाक आयिल्यो कंपन्यो.

टायपरायटर वा संगणकावरवीं थेट लिरवाण करपाची तजवीज जाता आसली, तरी आयचे घडयेकय लिरवणीची गरज लागपी खूब तरेचें लिरवाण आशिल्ल्यान, सगळेकडेन लिरवणेचो व्हड प्रमाणांत वापर जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**लेखन साहित्य :** (बरोवपाचें सामान) जाचेर वा जाच्या आदारान बरप करतात, वा कोरांतपाक येता अशें सामान, वा सामग्री. लेखनारवातीर पुर्विल्ल्या काळासावन वेगवेगळीं माध्यमां वापरिल्लीं दिसतात. सुरवेचें लेखन भूर्जपत्रां, शंख, चामडी, मातयेच्यो विटो, लुगट, फातर, लोरवण, कथील, कांशें, रुपें, भांगराचें पत्र, पितूळ हांचेर जातालें आनी छापणावळ कलेचो सोद लागिल्ल्यान ताचो प्रसार जालो. अशा बरपावळीवयल्यान त्या वेळावयल्या साहित्याचो आनी उदरगतीचो नियाळ करूं येता.

**फातरपटे :** पुर्विल्ल्या लेखन साहित्यांत फातराक व्हड म्हत्व आसा, हाचें कारण तांचें चिरस्थायित्व. धातू झिजतात, वत, वारें, पावस हांकां लागून कळमेतात. फातर कळमेनात. धातूचे तुळेन तांची झीज बरीच उणी आसता. ताका लागून पुर्विल्ल्या काळांत फातराची, लोकप्रिय लेखन साहित्यांमदीं गणना करची पडटा. फातराचेर लेरव बरोवंचेपयलीं तो गुळगुळीत करताले. ताचेर काळे शायेन वा रवोडवान मजकूर बरयताले. उपरांत कोरांतपाच्या शेण्यान तो मजकूर पक्को करताले. अशे तरेन लेरवरचना करपी विद्वान, अक्षरांक मोडण दिवपी आनी कोरांतपाचें काम करपी अशीं तीन मनशां फातरपट्यारवातीर लागतालीं. भारतांतले सगळयांत पोरने फातरपटे सम्राट अशोकाचे आसात. शैलस्तंभाचेरूय ताचे लेरव दिसतात. देवळामुरवावयल्यो दिपमाळी वा दिपस्तंभ, किर्तीस्तंभ (किर्तीलेरव), वीरगळ, सतीचो फातर, दानस्तंभ, गोत्रशैलिका, छायास्तंभ, यज्ञस्तंभ (यूप), शिळा हांचेर अशे लेरव भारतांत बरेचकडेन पळोवंक मेळटात. फातरपट्याचे मदीं लेरवाचे सुरवेक आनी अरवरेक कसलेंय मंगलसूचक स्वस्तिकासारकें चिन्न आसता, तशेंच इश्ट देवतेक वंदनूय केल्लें आसता. जायते रवेपे 'सिध्दम्' हें उतर सुरवातीकच मेळटा. फातरपट्यांचे दोन प्रकार आसात. एक रवणिल्ल्या अक्षरांचे आनी दोन उठावाच्या अक्षरांचे. अरबी, फार्शी लेरव उठावाच्या अक्षरांनी बरयल्ले आसतात. फातराचीं आयदनां, मूर्तीची आसनपट्टी, बांयची वा देवळाची कोनशिळा हांचेर लेरव मेळटात.

**तांब्यापटे :** फातरांप्रमाणच पुर्विल्ल्या काळांत ताम्रपट जायत्या प्रमाणांत लोकां आवडीचे आशिल्याचें दिसता. बौध्दविहारांत तांब्यापटे आशिल्ल्याचो चीनी भोंवडेकार फाहियान हाणें उल्लेरव केल्लो आसा.

तांब्यापट्याचे आकार ल्हान - व्हड आसले तरीय लांबट चवकोनी आकार खाशेलोसो दिसता. राजमुद्रा ओतीव आसून तिची कडी शासन पत्राचे कडेक आशिल्ल्या वाटकुळ्या बुराकांतल्यान घाल्ली आसता. राज्यशासनाचीं पत्रां तीन आसलीं पयल्या पत्राचे भितरले वटेन बरयताले. वयली सुवात तशीच मेकळी दवरताले. मदल्या पानार दोनूय वटांनी बरयताले. तिसऱ्या पानाचे भायले वटेन बरयनासले. ताका लागून बरयल्लो मजकूर सुरक्षीत उरतालो. पानाच्यो कडो कडांनी थोड्यो वयर करताले. ताका लागून अक्षरां घांसनासलीं. तांब्यापट्याचेर शायेन वा कसल्याय रंगात लेख बरयताले. मागीर शेण्यान ते लेख कोरांतताले. बरेचदां आयदनांचेर नांवां घाल्ले भाशेन लेख बरयताले. लेखनांतली उतरांची चूक शेण्यान रेग ओडून बरोबर करताले. खंयचेंय उतर गळ्ळें जाल्यार तें समासांत बरयताले. फकत राजालोकूच तांब्यापट्याचेर बरयताले अशें न्हय जाल्यार ब्राह्मणांचीं आनी जैनांचीं यंत्रां तांब्यापट्याचेरूच दिसतात. कुशाणराजा कनिश्कान बौध्द धर्मग्रंथ तांब्यापट्याचेर कोरांतून घेतिल्ले, ते लेख आयज अस्तित्वांत नात. तांब्यापट्याचो आकार ताडपत्राप्रमाणच लांबट चवकोनी आसलो, तरीय त्रिकोणाकृती आनी चतुश्कोणाकृती आकाराचींय ताम्रपत्रां दिसतात. तांचें वजन सु. ५०० ग्रॅम आसतालें. दानपत्रां, राजाची वंशावळ, दान दिल्ल्या ब्राह्मणांची वंशावळ, दाना वेळार हाजीर आशिल्ल्या सरदाराचीं नांवां - गांवां असली म्हायती तातूंत आसताली. भांगर आनी रुपें ह्या धातूंप्रमाण तांबें दुर्मीळ नाशिल्ल्यान तांब्यापटे लेखनसाहित्य म्हणून लोकांक मानवपाक लागलें.

**भूर्जपत्र :** बरोवपावातीर भूर्जपानांचो उपेग करपाची कला भारतांत खूब पयलींसावन आसा. घुरयेच्या वेळार शिकंदरावांगडा आशिल्ल्या क्यू कर्टिअस ह्या सेनापतीन भारतीय लोक भूर्जपत्राचो बरोवपावातीर उपेग करताले अशें नोंद केलां. हिमालयांत भूर्जपत्रां जाय तितल्या प्रमाणांत मेळटात. भूर्ज रुखाच्यो भितरल्यो साली काडून त्यो घांसून गुळगुळीत करपाची, तांकां चकचकसाण हाडपाची कला काश्मिरी पंडितांक खबर आशिल्ली. संस्कृत साहित्यांतूय भूर्जपत्राचें बरेच उल्लेख मेळटात. चीनांतल्या खोतान हांगा दुसऱ्या शेंकड्यांतल्या खरोश्ठी लिपींत भूर्जपत्रार बरयल्ली धम्मपदाची पोथी आसा. ताडपत्राचे पोथयेप्रमाणूच मदीं वाटकुळो बुराक करून दोन लांकडी वाटयांनी भूर्जपत्राची ही पोथी दवरताले. बकशलि नगरांत मेळिल्लें अंकगणिताचें पुस्तक, आठव्या शेंकड्यांतलें आसून तें भूर्जपानाचेर बरयिल्लें आसा. व्हिएन्ना, बर्लिन तशेंच पुणेंच्या भांडारकर प्राच्यविद्या संशोधन मंदिरांत आनी डॅक्कन कॉलेजींत भूर्जपत्रावयल्यो पंदराव्या शेंकड्यांतल्यो पोथयो मेळटात.

**ताडपत्र :** ताडाच्या पानांचो मुखेलपणान बरोवपावातीर दक्षिण भारतांत उपेग करताले. तक्षशिलाक पयल्या शेंकड्यांतलो तांब्यापटो सांपडला, ताचो आकार ताडपत्रावरी आशिल्लो. गौतम बुध्दाच्या मरणा उपरांत रोखडेच भरिल्ल्या मेळांतले विधिनेम ताडपत्रांचेर बरयल्ले आशिल्ले अशें चीनी भोंवडेकार ह्युएन त्संगान आपल्या भोंवडेवर्णनांत बरोवन दवरलां. ताडपत्राचो उपेग करचे पयलीं तीं सुकयताले. उपरांत उदकांत शिजोवन (उकडून) परत सुकयताले. पानाक गुळगुळीतसाण येवपावातीर शंखान वा फातरान घांसून तीं फावो त्या आकाराचीं कातरताले. काश्मीर आनी पंजाबाचो कांय वाठार सोडलो जाल्यार भारतांत ताडाच्या पानांचेर लोखणाचे बारीक सुयेन तोपून अक्षरां काडटाले. उपरांत तांचेर शाय वा कोळसो लायताले. ताडपत्राचे पोथयेक पानामदीं वाटकुळो बुराक करताले. तातूंत दोरो गुंथून बरयल्लीं सगळीं पानां एकठांय बांदताले. पानांची लांबाय अदीक आसल्यार दोन बुराक दवरताले. त्याच आकाराच्यो दोन लांकडी पाटयो करून तातूंत पोथी दवरताले. नेपाळच्या ताडपत्राच्या पोथीसंग्रहांत सातव्या शेंकड्यांतल्यो स्कंदपुराण आनी लंकावतार ह्यो पोरन्यो पोथयो आसात.

**चामडी :** भारतांत चामड्याचेर बरयल्ले लेख अजूनमेरेन मेळूंकनात. धर्मीक नदरेन चामडें भश्ट मानिल्ल्यान घडये ताचो उपेग बरोवपावातीर चडसो करिनाशिल्ले जावये. सुबंधूच्या (इ.स.चे पयलीं आठव्या शेंकड्याचो पयलो वांटो) वासवदत्ता नाटकांत चामड्याचो बरोवपावातीर उपेग करताले असो उल्लेख आसा. उंटाच्या चामड्याचेर खरोश्ठींतले लेख मेळटात. चामड्यावयले लेख मुखेलपणान अस्तंत आशिया आनी युरोपांत मेळटात.

**लुगट :** इ.स. चे पयलीं तिसऱ्या शेंकड्यांत भारतांतले लोक लुगटाचो बरोवपावातीर उपेग करताले, असो उल्लेख नीआर्कसान केला. बरोवपाच्या लुगटाक पट, पटिका आनी कार्पासिक पट अशे म्हण्टाले. कर्नाटकांतले कांय वेपारी अजूनय लुगटाचेर बरयतात. पुर्विल्ल्या काळांत लुगटाक चिंचाऱ्याची वा पिठाची पातळ खळ लावन शंखान ती गुळगुळीत करताले आनी मागीर ताचेर खोडवान वा काळे पेन्सिलीन बरयताले. सुती लुगटाप्रमाणूय रेशमाच्या लुगटाचोय उपेग करताले, अशे तरेची जैन सुत्रांची वळेरी (१४ व्या शेंकड्यांतली) जैसलमीराक सांपडल्या. कापडी पुस्तकांय कांय मठांनी पळोवंक मेळटात.

**फळो :** लांकडाच्या फळयाचेर बरोवपाची रीत बरीच पोरनी. शाळेंत वचपी भुरगीं सुरवेक धुल्लाचे पाटयेचो उपेग करतालीं. फळयाचे उल्लेख विनयपिटकांत दशकुमारचरितांत मेळटात. बरेच कडेन लांकडाचे बरयल्ले लेख मेळ्ळयात.

**सुवर्णपत्र (भांगराचें पान) :** पुर्विल्ल्या काळांत गिरेस्त, सावकार आपलो कुळवृत्तांत तशेंच म्हत्वाच्यो घडणुको भांगराच्या पानांचेर कोरांतून घेताले. धर्मीक नितीनेमूय ते कोरांतताले. भांगर दुर्मीळ जाल्ल्यान हाचे नमुने सोंपेपणी मेळनात तरी तक्षशिले लागसारच्या गंगूच्या स्तुपांत सुवर्णपत्राचेर खरोशी लिपींत बरयल्लें

दानपत्र मेळळां.

**रुपें :** भांगराप्रमाणच रुपेंय दुर्मीळ. बट्टिप्रोलू नगरांतल्या स्तुपांत आनी तक्षशिलाक रौप्यपत्राचेर लेख आसून जैनांच्या देवळांत रौप्यपत्रावयलीं यंत्रांय मेळळयांत.

**लोखण :** लोखण कळमेता, ताका लागून लोखण पत्रां दिसनात. दिल्ली लागसारच्या मेहरोली नगरांत चंद्र नांवाच्या राजाचो लेख सांपडला. तो चड करून दुसऱ्या चंद्रगुप्ताच्या काळांतलो आसुंये असो विद्वानांचो तर्क आसा. एकेकडेन लोखणाच्या त्रिशुळाचेर लेख सांपडला. फुडें लोखणी नाळीचेरूय लेख दिसल्यात.

**कथल :** कथलाचो उपेग चुकून केल्लो दिसता. ब्रिटीश संग्रहालयांत कथलाच्या पत्र्यावयले लेख आसात.

**पितूळ :** पितूळच्या पानांचो जावपी उपेग तसो पोरनो न्हय, आयजूय पितूळचे घांटीचेर देणगीदारांचीं नांवां कोरांतिल्लीं मेळटात.

**कांशें :** पितुळाप्रमाण कांशांच्या घांटींचेर, मूर्तींचेर (मुर्तींच्या आसनपाटाचेर), करंडांचेर, लेख, नांवां बरयताले अशें समजलां.

**शंख :** आंध्र प्रदेशांत श्रीकाकुलम जिल्ह्यांतल्या शालिहुंड्य गांवांत मेळिल्ल्या बौध्द अवशेशांनी शंखाचेर बरयल्लो लेख आसा. तशेंच हतयाच्या दातांच्यो पट्ट्यो, कासवाचें कट्टें हांचोय बरोवपाखातीर उपेग केल्लो दिसता.

**मातयेच्यो विटो :** मातयेच्या विटांचेर बरोवपाचीय चाल भारतांत बरीच पुर्विल्ली. बौध्द धर्मीय सुत्रां, हाचेर बरयल्लीं मेळटात. मातयेच्या विटांचेर बोधशब्द, लेख बरोवन ते मागीर भाजताले. तक्षशिला, कौशांबी, नालंदा नगरांनी केल्ल्या उत्खननांनी मातयेच्यो मुद्राय मेळळयात.

**कागद :** चीनी इतिहासांतले नोंदीप्रमाण कागद तयार करपाचे कृतीचो सोद इ.स. १०५ वर्सा त्सान लुन हाणें लायलो. फुडाराक चीनी भोंवडेकारावांगडा ही कला भारतांत पावली. पूण ताचे पयलीं हातकागद तयार करपाची कला भारतीयांक खबर आशिल्ली. ख्रिस्ताच्या पयलीं नीआर्कसान तशें बरोवन दवरलां. कागदाक तांदळाची खळ लावन शंखान ती घोंट्टाले. भोज राजाचे राजवटींत (१000 - १0५५) माळव्यांत कागदाचे कलेचो प्रसार जाल्लो, अशें कांय संशोधकांचें मत आसा. काश्मीरांत इकराव्या शेंकड्यांत जाल्यार गुजरातांत कागदावयलीं हातबरपां मेळळयांत. मध्य आशियांत यार्कंदाक पांचव्या शेंकड्यांतलो कागदावयलो लेख मेळ्ळा. मुसलमानी अमदानींत भारतांत कागदाचो चड प्रसार जालो. सद्याक लागीं लागीं सगळेच तरेच्या लिखाणाखातीर कागदाचो वापर जाता.

**शाय :** झाडाचे भितरले सालीचो पयलीं शायेखातीर उपेग करताले. पिंपळाच्या (गोमाचो) दिखाचे बारीक पिठो उदकांत भरसून तो उकडटाले. उपरांत तातूंत टाकणखार घालून शाय तयार करताले. बदामाची साल, सांसवांचें तेल, आलित्य, हरताळासावनूय शाय तयार करताले. इ.स.चे पयलीं चवथ्या वर्सासावन भारतांत शायेचो उपेग जातालो अशे दाखले मेळटात.

**लेखणी :** कोरणी, कुंचलो, बोरू, वर्णवर्तिका, वर्णक अशीं तिचीं रुपां आसात. लोहकंटक, लांकडी फळयांचो उपेग बरोवपाखातीर जातालो. अजिंठ्याच्या गुहांनी कुंचल्याच्या आदारान रंगीत अक्षरां काडिल्लीं दिसतात.

**रेखापाटी :** ओळी सरळ येवपाखातीर बरोवपी रेखापाटयेचो उपेग करताले अशें दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**लेखाकार्य आनी लेखाशास्त्र : लेखाकार्य (Book Keeping) :** अर्थीक वेव्हाराचे परिस्थितीची संख्या शास्त्राच्या आदारान आनी वेगवेगळया संदर्भात नोंदणी करपाच्या शास्त्राक लेखाशास्त्र म्हण्टात. अर्थीक उलाढालीची अचूक नोंद करप, ते नोंदीचें शास्त्रीय वर्गीकरण करप आनी तेवरवीं अर्थीक स्थितीचें विश्लेशण करप ह्यो गजाली लेखाशास्त्रांत आस्पावतात.

लेखाशास्त्राच्यो एकलेखा (Single Entry System) आनी द्विलेखा (Double Entry System) अशो दोन पद्दती, घोळणुकेंत आसात. पयले पद्दतींत अर्थीक वेव्हाराच्यो एकेरी नोंदी दवरप जातात, तर दुसरे पद्दतीत दुहेरी नोंदी दवरप जातात. ल्हान प्रमाणांतल्या वेव्हाराखातीर आनी दुसरे तरेच्या वेव्हाराखातीर दुसरे तरेची पद्दत उपेगी पडटा.

लेखाशास्त्रांत अर्थीक वेव्हाराचो हिशेब हें बुन्यादी तत्त्व आशिल्ल्यान अर्थीक वेव्हाराचें स्वरूप, ताचें प्रमाण, कालखंड लक्षांत घेवन अर्थीक वेव्हाराच्यो नोंदी करपाखातीर जें साहित्य सांबाळचें लागता तातूंत दीसपटी (जर्नल) आनी खातेचोपडी (लेजर), हांचो मुखेलपणान आस्पाव जाता. ह्या बुन्यादी साहित्यापसून कालबद्द अशो विवरण पत्रिका (Statements), तेरीज (Trial Balance), वेपार लेखा (Trading account), नफो - तोटो लेखा (Profit & Loss account), ताळेबंद (Balance Sheet) तयार करप जाता.

**लेखाशास्त्र (Accounting) :** लेखाशास्त्र ही लेखाकार्याची फुडली अवस्था. लेखाकार्यांत अर्थीक वेव्हाराची नोंद जाता, तर लेखाशास्त्रांत मुखेलपणान चलनाच्या रुपांत अर्थीक वेव्हाराच्या परिणामाची (नफो - तोटो, जमाखर्च) मांडावळ करतात.

लेखाकार्य आनी लेखाशास्त्र हीं दोनय शास्त्रां खूब आदींसावन अस्तित्वांत आसात. अर्थसंचय आनी अर्थवापर हांचें कोश्टक सांबाळपाखातीर अर्थ नियंत्रण ह्या घटकांची गरज आसा. उत्पन्न आनी खर्च हांचो मेळ बसलो तर, व्यक्तीचें - संस्थेचें राश्ट्राचें जिवीत भौतिक नदरेन सुखी जाता हो अर्थशास्त्रीय सिध्दांत आसा.

अर्थनियंत्रण घटक हो मेळ बरेतरेन सादूंक पावता. तशेंच फुडल्या वेव्हाराखातीर कागदार मांडिल्ली आंकडेवारी मार्गदर्शक थारता. पूण हो सगळो व्याप चड काळ लक्षांत उरपा सारको नासता. देखून हो सगळो वेव्हार योग्य रितीन लिखीत स्वरुपांत दवरपाची गरज लागता.

अर्थीक वेव्हाराच्या प्रकाराप्रमाण लेखाशास्त्राचे प्रकार जातात, ते अशे - सार्वजनिक लेखाशास्त्र, सार्वजनिक निगमाचें लेखाशास्त्र, सरकारी महामंडळाचें लेखाशास्त्र, सरकारी लेखाशास्त्र. सार्वजनिक न्यास (Public Trust) लेखाशास्त्र, राश्ट्रीय उत्पन्न लेखाशास्त्र.

लेखाशास्त्राचो शास्त्रीय पद्दतीन अभ्यास करपी युरोपी संस्था आसात त्यो अशो - द अमेरिकन इन्स्टिट्यूट ऑफ सर्टीफायड पब्लीक अकाऊटंट्स, फायनान्सीयल अकांऊटींग स्टॅंडर्ड बॉर्ड, नॅशनल असोशिएशन ऑफ अकाऊटंट, इन्स्टिट्यूट ऑफ इंटरनल ऑडिटर्स.

द इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ चार्टड अकाऊटंट, द इन्स्टिट्यूट ऑफ कॉस्ट अँड वर्कस अकाऊटंट्स, गव्हर्नमेंट अकाऊटंट्स अँड ऑडिट सर्व्हीस, इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅनेजमेंट अकाऊटंट्स ह्यो भारतांतल्यो कांय मुखेल संस्था. तेभायर विद्यापीठ थराचेर हेच तरेचो वावर चलता.

- कों. वि. सं. मं.

**लेझीम** : एक खेळ. ह्या खेळाच्या साधनाकय लेझीम ह्याच नांवान वळखतात. लेझीमीक योगचाप अशेंय म्हणप जाता. हो खेळ खंय आनी केन्ना सुरू जालो हें सांगप कठीण. कांय जाणांच्या मतान हो खेळ महाराष्ट्राचो आसून, तो पेशव्यांच्या आदल्या काळासावन सुरू जालो आसूंक जाय.

सुमार पंदरा ते अठरा इंच लांबायेचे लांकडाचे दाणयेक, तिचेर दोनूय तोंकांक लोखणाच्यो सरपळयो बसयतात. ह्या सरपळयां मदीं तीन - चार लोखणी चकत्यो आशिल्ल्यो कडयो बसयतात. ह्या कडयांच्या मदीं एक लोखणी मूठ आसता. लांकडाचो दांडो सादारणपणान बाभळीचोच घेतात. तो चडसो जड नासता आनी बेगीन मोडना. लांकडी दांड्याक वेगवेगळे रंग दिल्ले आसतात. लेझीम खेळटना तिचो लांकडी दांडो दाव्या हातांत आनी लोखणी मूठ उजव्या हातांत आसता.

लेझीमाचो खेळ म्हळयार वीरनाचाचो एक प्रकार आसा. महाराष्ट्र आनी गुजरात आदी वाठारांत हो खेळ चड प्रमाणांत खेळप जाता. गोंयांतय कांय प्रमाणांत हो खेळ खेळटात. ह्या खेळान आंगाक वेगवेगळया तरेचो व्यायाम मेळटा. ह्या खेळांत लेझीम नाचयत फुडें वचप, फाटीं येवप, उडयो मारप, सकयल बागवप, फिरक्यो घेवप आदी प्रकार आसतात. ह्या खेळाक हलगी, कासाळें, तासो, हांची साथ आसता. देवाच्यो पालख्यो, मिरवणुको, जात्रा, उरूस हांच्या मुखार लेझीम खेळपी पंगड आसतात. ह्या खेळान आंगाक पुरायतरेन व्यायाम मेळटा आशिल्ल्यान सद्याच्या काळांत शाळांनी शारिरीक प्रशिक्षणांत लेझीमाचे खेळ शिकयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**लेडरबर्ग, जोशुआ** : (जल्म : २३ मे १९२५, मॉंटक्लेअर, न्यू जर्सी).

अमेरिकन आनुवंशिकीविज्ञ (आनुवंशिक गुणधर्मांच्या अभ्यासासंबंदीच्या शास्त्रांतलो तज्ञ). सूक्ष्मजंतूंच्या आनुवंशिकीच्या क्षेत्रांतलो आद्यप्रवर्तक. सूक्ष्मजंतूंतल्या जननिक सामग्रीची संघटना आनी जननिक पुनःसंयोजनाची यंत्रणा हेसंबंदी लायिल्ल्या सोदांखातीर ताका एडवर्ड लॉरी टेटम आनी जॉर्ज वेल्स बिडल हांचेवांगडा १९५८ च्या शरीरक्रियाविज्ञान वा वैजकी विशयांतलो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो.

१९४१ - ४४ त कोलंबिया कॉलेजांत शिक्षण घेवन ताणें प्राणिविज्ञानांतली बी.ए. पदवी घेतली. उपरांत १९४४ - ४६ त कोलंबिया विद्यापिठाच्या कॉलेज ऑफ फिजिशिअन्स अँड सर्जन्स हातूंत वैजकी शिक्षण घेतलें. उपरांत तो येल विद्यापिठांतल्या सूक्ष्मजीवविज्ञान आनी वनस्पतिविज्ञान विभागांत संशोधन अधिछात्र म्हणून गेलो आनी १९४६ - ४७ त टेटम हाच्या मार्गदर्शनाखाल अध्ययन करून १९४८ वर्सा ताणें पीएच्.डी. पदवी घेतली. १९४७ वर्सा विस्कॉन्सिन विद्यापिठांत आनुवंशिकीच्या साहाय्यक प्राध्यापकपदाचेर ताची नेमणूक जाली आनी थंयच तो १९५० वर्सा सहयोगी प्राध्यापक आनी १९५४ वर्सा प्राध्यापक जालो. थंय ताणें वैजकी आनुवंशिकीचो विभाग संघटित केलो आनी तो ताचो १९५७ - ५९ वर्सा अध्यक्ष जालो. १९५९ - ७८ ह्या काळांत तो स्टॅनफर्ड युनिव्हर्सिटी स्कूल ऑफ मेडिसीनच्या आनुवंशिकी विभागांत आनुवंशिकी, जीवविज्ञान आनी संगणकविज्ञान ह्या विशयांचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९६२ - ७८ त ताणें केनेडी लॅबोरेटरीज फॉर मॉलिक्युलर मेडिसीन हे संस्थेच्या संचालक पदाचेर काम केलें. १९७८ वर्सा तो न्यूयॉर्क हांगाच्या रॉकफेलर विद्यापिठाचो अध्यक्ष जालो.

लेडरबर्ग हाणें १९४६ वर्सा टेटम हाचेवांगडा एश्चेरिकिया कोलाय ह्या सूक्ष्मजंतूंसंबंदीं संशोधन केलें आनी सूक्ष्मजंतूंच्या वाणांचें संकरण करून जननिक घटकांचें नवें संयोजन आशिल्लो अपत्य सूक्ष्मजंतू तयार करूं येता असो सोद लायलो. लेडरबर्ग हाच्या सोदाकलागून आनी सूक्ष्मजंतूंची सादी संरचना आनी नेटान जावपी वाड हाका लागून ड्रासोफिला मेलॅनोगॅस्टर हो फळाक लागपी जीव आनी न्यूरोस्पोरा क्रासा हो पावावयलो चिथो हांचेभाशेन सूक्ष्मजंतू हेय आनुवंशिकींतलें संशोधनाचें एक म्हत्वाचें साधन जालें. फुडें विस्कॉन्सिन विद्यापिठांत काम करतना १९५२ वर्सा ताणें आपलो विद्यार्थी एन्.डी. झिंडर हाचेवांगडा साल्मोनेला सूक्ष्मजंतूसंबंदी प्रयोग करून कांय

विशिश्ट व्हायरस एका सूक्ष्मजंतूंतल्या गुणसूत्राचो भाग दुसऱ्या सूक्ष्मजंतूंत व्हरूंक शकतात अशें दाखयलें. लेडरबर्ग हाणें सुक्ष्मजंतूच्या आनुवंशिकींत कल्पक तंत्रां विकसित करपावांगडाच संगणकान आनी गणितीय आलेख सिध्दांतान कार्बनी रसायनां वळखुपाच्यो आनी तांचें वर्गीकरण करपाच्यो पद्दती, तशेंच अमेरिकेच्या जनगणना म्हायतीचो उपेग करून मानवी जीवविज्ञानाचो अभ्यास करपाखातीर सांख्यिकीय (संख्याशास्त्रीय) पद्दती विकसित केल्यो.

ताका येल, विस्कॉन्सिन, येशिव्हा, न्यूयॉर्क, तूरिन ह्या विद्यापिठांनी मानादीक पदव्यो दिल्यो. तो नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेस, अमेरिकन ॲसोसिएशन फॉर द ॲडव्हान्समेंट ऑफ सायन्स, अमेरिकन ॲकॅडेमी ऑफ आर्ट्स अँड सायन्सेस, लंडनची रॉयल सोसायटी ह्या नामनेच्या संस्थांचो सदस्य आसा. मंगळावयल्या जीवसृश्टीच्या अस्तित्वाच्या सोदाखातीर नासान धाडिल्ल्या व्हायकिंग यानाचे येवजणेंत ताचो आस्पाव आशिल्लो. ताणें जागतिक भलायकी संघटनेचो वैज्ञानिक सल्लागार आनी जैव अस्त्रांच्या नियंत्रणाखातीर जाल्ल्या आंतरराश्ट्रीय वाटाघाटींनी सल्लागार म्हणून काम केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**लेडरमन, लीऑन मॅक्स :** (जल्म : १५ जुलय १९२२, न्यूयॉर्क).

अमेरिकन भौतिकीविज्ञ. म्यूऑनीय न्यूट्रिनोचो सोद आनी उच्च उर्जायुक्त न्यूट्रिनोंच्या शलाकांची निर्मिती ह्या कार्याखातीर लेडरमनाक मेल्व्हिन श्र्वार्स आनी जॅक स्टाइनबर्गर हांचेवांगडा १९८८च्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान वांटून मेळ्ळो.

न्यूयॉर्क हांगाच्या सिटी कॉलेजांतल्यान ताणें १९४३ वर्सा बी.एस्. पदवी मेळयली आनी अमेरिकेच्या लश्करी संदेश दलांत तीन वर्सां नोकरी केली. १९४८ वर्सा कोलंबिया विद्यापिठाची ए. एम्. आनी १९५१ वर्सा पीएच्.डी. ह्यो पदव्यो घेतल्यो आनी त्याच विद्यापिठांत तो नोकरी करूंक लागलो. १९५८ त ताची त्या विद्यापिठांत प्राध्यापक पदाचेर नेमणूक जाली आनी १९७३ वर्सा तो भौतिकीचो यूजिन हिगिन्स प्राध्यापक जालो. १९६० त नेव्हिस लॅबोरेटरीजच्या संचालक पदाचेर ताची नेमणूक जाली आनी १९७९ त तो फेर्मी नॅशनल ॲक्सिलरेटर लॅबोरेटरीचो संचालक जालो.

मूलकणांचे गुणधर्म आनी तांच्यो परस्परक्रिया हेसंबंदी केल्ल्या म्हत्वाच्या प्रयोगांनी लेडरमनान सहकार्य केलें. कोलंबिया विद्यापिठांत शिकता आसतना ताणें नेव्हिस लॅबोरेटरीजांतल्या सायक्लोट्रॉनाचो उपेग करून पाय - मेसॉनांची (पायॉनांची) शलाका पयलेच खेपेक मेळोवपाक तशेंच हे शलाकेचो उपेग करून पायॉनांचे गुणधर्म आनी परस्परक्रिया हांचो अभ्यास करपाच्या प्रयोगांत ताचो सहभाग आशिल्लो. १९५६ आनी १९५७ वर्सा ताणें ब्रुकहॅवन नॅशनल लॅबोरेटरींतल्या कणवेगवर्धकाच्या आदारान केल्ल्या प्रयोगांत वांटो घेतलो. ह्या प्रयोगांतल्यान उपरांत दीर्घायुषी, विद्युत् भारहीन के - मेसॉन (केऑन) ह्या कणाचो सोद लागलो. १९६५ त लेडरमन हाणें क्वार्क कणांचो सोद लावपाचें मुळावें उद्दिश्ट आशिल्ल्या आनी भारी द्रव्यमानाच्या कणांच्या तलासाखातीर आंखिल्ल्या प्रयोगाचें एस्. सी.सी. टिंग हाचेवांगडा नेतृत्व केलें. १९६७ सावन तो प्रोटॉन - न्यूक्लिऑन हांच्या परस्पर आघातांत निर्माण जावपी लेप्टॉन युग्मांच्या अभ्यासाखातीर येवजिल्ले प्रयोगमाळेचो मुखेल आशिल्लो. तेउपरांतूय ताणें फेर्मी लॅब, सर्न (जिनीव्हा) हांगा केल्ल्या मूलकणांविशींच्या प्रयोगांत सहकार्य केलें.

लेडरमनाक नोबॅल पुरस्कारा वांगडा राश्ट्रीय विज्ञान पदक (१९६५), टाउनझेंड हॅरिस पदक (१९७३) आनी एलियट क्रिसन पदक (१९७६) हे भोवमान मेळ्ळे. नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेस, अमेरिकन फिजिकल सोसायटी आनी अमेरिकन ॲसोसिएशन ऑफ आर्ट्स अँड सायन्स ह्या मान्यवर संस्थांचो तो सदस्य आसा.

मूलकणांविशीं ताचे सुमार १०० निबंद विंगड विंगड भौतिकी नेमाळ्यांनी उजवाडा आयले. कॉमेंट्स ऑन न्यूक्लिअर अँड पार्टिकल फिजिक्स ह्या नेमाळयाचो १९६७ - ७२ ह्या काळांत तो संपादक आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**लेणी :** दोंगराच्या रांकांनी फातर कोरांतून तयार केल्लीं गुहाघरां, वा फातराचीं घरां (प्रस्तरालयां). नाशिक लागच्या पांडव लेण्यांतल्या लेखांत 'लेण' हें उतर सुरवेक आयिल्लें दिसता. 'लेण' हें उतर संस्कृत 'लयन' म्हळयार 'घर' ह्या उतरावयल्यान आयलां. लेण्याक गुहा, गुंफा, शैलगृहां, शिलामंदिरां, प्रस्तरालयां अशीं हेर नांवांय आसात. गुहांच्यो सुवाती दोंगराच्या देगणांत सैमीक तरेन तयार जाल्ल्यो आसतात वा मनशान दोंगर कोरांतून त्यो तयार केल्ल्यो आसतात. लेणी ही संज्ञा सादारणपणान मनशान तयार केल्ल्या होंवरींक वापरतात. अश्मयुगीन (फातराकाळांतल्या) मनशाचो राबितो बरेच खेपो सैमीक तरेन फुडें आयिल्ल्या फातराचे भितोडेक आसतालो. अशेतरेच्या कांय वेंचीक गुहासुवातींमदल्या फातराच्या वण्टींचेर आदिमनशान चित्रां कोंरातून आपल्या उत्कृश्ट चित्रकलेचे नमुने फाटल्यान दवरल्यात. सुरवेच्या काळांत कोरांतिल्लीं लेणींय त्या त्या दोंगराच्या सकयल आसून तीं सादीं, ल्हान आनी ओबडधोबड अशीं आशिल्लीं. उपरांतच्या काळांतलीं लेणीं दोंगराच्या रांकांच्या वयल्या वाठारांत दिसून येतात आनी निमाण्या टप्यांतलीं लेणीं तर माथ्यार कोरांतिल्लीं आसात. उत्तर अश्मयुगांतल्यो चित्रांनी भरिल्ल्यो गुहा अल्तामिरा (स्पेन), एल् कॅस्तिल्लो, ऑदुबर्त, लॅस्को, लेझोझी, (फ्रान्स), निऑ, (इटली), तुनहवांग (चीन) आदी सुवातींचेर मेळ्ळयात.

तुनह्वांग लेणीं अजिंठ्या प्रमाणच बौध्द वण्टी लेपचित्रांखातीर (इ.स. ५ वो ते १३ वो शेंकडो) प्रसिद्द आसा. ह्या लेण्यांमदीं इंग्रज पुरातत्त्ववेत्तो सर ऑरेल स्टाइन हाका लागीं लागीं १५,००० हातबरपांच्या संग्रहांचो सोद लागलो. तातूंत हीरकसूत्र (इ.स. ८६८) ह्या पोरन्या मुद्रित पुस्तकाचो आस्पाव आसा. अफगाणिस्तानांतल्या बामियान हांगा बरींच शैलगृहां आसून थंय बुध्दाच्यो व्हड मूर्ती दिसून येतात. लेझेझी आनी निऑ ह्यो गुहा मरडेलिअन काळांतल्या (इ.स. पयली लागीं लागीं धा हजार वर्सां) आसून लेझेझी गुहेंतल्या चित्रांत बायसनच्या (गवो) खाडकेसकयलो गोंडो आनी ताची मदार हातूंत



महाराष्ट्रांतलें एक लेणें

ताचीं खाशेलेपणां उक्तीं जातात. फ्रांसाचे पिटेनीन दोंगरा रांकेंतल्या आनी दॉरदॉन्यू देगणांत अशोच कांय चित्रांनी भरिल्ल्यो गुहा दिसून आयल्यात.

मध्य भारतांतल्या सिंगनपूर, आदमगढ, चक्रधरपूर, मिर्झापूर, हुशंगाबाद, लिखुनिया, भलदरिया, विजयगढ, पंचमढी आदी सुवातांनी गुहो आसून तातूंत भिंतीचित्रां (वण्टीवयलीं चित्रां) दिसून येतात. मात ह्या गुहांचो आजूनमेरेन जांव जाय तितलो खोलायेन अभ्यास जावंक ना. हाचेभायर भीमबेटका हांगा बऱ्योच पोरन्यो फातराच्यो गुहा १९५५ त उत्खनन संशोधनांत वि. श्री. वाकणकार हाका पयलीं दिसून आयल्यो. यशोधर मठपाल ह्या तज्ञाच्या मतान हांगाची चित्रशैली चार तरांनी खडू (क्रेऑन) ओली पारदर्शक, ओली अपारदर्शक आनी तुशार रंग (स्प्रे-कलर) अशी वाटयल्ली आसून तातुंतली खोडवारंगाची चित्रशैली भारतांत चुकून दिश्टी पडटा. चित्रशैली, तंत्र आनी अध्यारोपण ह्या आदाराचेर वाकणकार हाणें हांगासल्ल्या चित्रांचे सात काळखंड मानल्यात. तेप्रमाण ताचो काळ इ.स. पयलीं लागीं लागीं २५,००० इतलो फाटी वता. अशेच तरेचे अश्मयुगीन गुहांचे चोमे भारतांत आंध्र प्रदेशांतल्या कुर्नूललागीं, बिल्ल सुर्गम हांगा मेळ्ळयात. ईजिप्त, जॉर्डन, आदी देशांतूय अशेच तरेचीं लेणीं दिसून येतात.

पोरन्या लेण्यांत चडकरून प्रागैतिहासिक लेण्यांत मुखेल करून प्राण्यांचीं चित्रां आसून तीं शिकार हे त्यावेळावयले मुखेल जीणेच्या वेवसायाकडेन जोडल्लीं आसूं येत. कित्याक तर युरोपांतल्या गुहांतल्यान रानगवे, रानबैल, हरणां, रेनडिअर, वांखेल ह्या प्राण्यांचें आनी ताचे शिकारीचें चित्रण मुखेलपणान दिसून येता. उत्तर काळांत मातृकादेवी, सुफळताय आनी प्रजनन हांचींय प्रतिकात्मक चित्रां, तशेंच मुखार, संततिपालक बायलो हांचीं रेखाटणां दिसतात. तातुंतल्या स्त्री चित्रणांत मोठो बांदो, अवाजवी थानां, व्हडलो नितंब आनी जघन वाठाराक उठाव दिल्लो दिसता. ताचो संबंद सुफळतायविधीकडेन संलग्न अशा कर्मकांडाकडेन आसुंये अशें दिसता.

भारतांत फातरान कोरांतिल्लीं सु. १,२०० लेणीं आसात. तातुंतलीं हजारां परस कमी अदिक लेणीं महाराष्ट्रांत दिसून येतात. भारतांतलीं लेणीं जैन, बौध्द आनी वैदिक (हिंदू) अशे वेगवेगळया धर्मपंथीयांनी कोरांतिल्लीं आसात. तातूंत बौध्द धर्मीयांच्या लेण्यांची संख्या सगळयांत अदिक आसा. हीं लेणीं खंयच्याय धर्मपंथाचीं आसलीं, तरीय लेण्यांचे ऐहिक आनी धर्मीक अशे मुखेल दोन प्रकार आसात. ऐहिक लेणीं बरींच कमी आसात. धर्मीक प्रसार - प्रचार ह्योच मुखेल मोरवी चड करून सगळया लेण्यांनी दिसतात. ह्या लेण्यांचो सादारण काळ इ.स. पयलीं ३रो शेंकडो ते इ.स. णववो शेंकडो असो मानपांत येता. दोंगर शिल्पाची ही परंपरा आठव्या - णवव्या घडये धाव्या शेंकड्यामेरेन चालू आशिल्ली आसुंये. भारतांत मौर्यकाळांत मुखेलपणान सम्राट अशोकाचे राजवटींत बौध्द लेणीं कोरांतपाक सुरवात जाली आसुंये अशें त्या लेण्यांतल्या कोरीव लेखावयल्यान समजून येता. खुद्द अशोकान पुर्विल्ल्या मगधदेशांत (बिहार राज्य) बराबर दोंगुल्ल्यांनी आनी ताचो नातू दशरथ हाणें नागार्जुनी दोंगुल्ल्यांनी आजीविक पंथाचे भिक्षूखातीर लेणीं कोरांतिल्लीं. ह्याच सुमाराक भारताच्या हेर वाठारांनी खाशेले करून ओरिसांत उदयगिरी आनी खंडगिरी हांगा, तमिळनाडूंत महाबलीपुर आनी गुजरात काठेवाडांत जुनागढ, ढाक आदी सुवातांनी व्हडल्या तळपांतल्यान लेणीं कोरांतिल्लीं दिसतात. भारतांत पुराय हिंदू धर्माकडेन संबंदीत असो एकाद्रो लेण्याचोमो दिसून येता. वेरुळ सारकिल्या सुवातींनी तर बौध्द, जैन आनी हिंदू अशे गुफांचे तीन स्वतंत्र चोंबे मेळटात.

बौध्द लेण्यांमदीं चैत्य आनी विहार अशे दोन प्रकार दिसतात. जैन लेण्यांमदीं चैत्यगृह ना आनी वैदिक लेण्यांमदीं चैत्यगृह आनी विहार हीं दोनूय नात. ताका लागून वैदिक लेणीं चडकरून उत्कीर्ण देवळा प्रासादाच्या स्वरुपाचीं आसात.

भारतांत कोरांतिल्या लेण्यांमदीं बौध्द लेण्याइतलीं वैदिक वा हिंदू लेणीं पोरनीं नात. जीं आसात तीं मुखेलकरून वेरुळ,

जोगेश्वरी, मंडेश्वर, पातळेश्वर, आंबेजोगाई, घारापुरी (महाराष्ट्र), बादामी (कर्नाटक), महाबलीपूर (तमिळनाडू), उदयगिरी (मध्य प्रदेश) आदी सुवार्तीनी दिसून येतात. ह्या सगळयांमर्दी कलात्मकतेचे नदरेन वेरुळचीं लेण्यीं खाशेलीं जावन आसात. तातुंतलीं कांय लेण्यीं बौध्द विहाराचे धर्तेर कोरांतिल्लीं दिसतात. हातूंत शैव, वैश्णव पंथाकडेन संबंदीत बरींच शिल्पां आसात.

मध्य प्रदेशांतले भिलसा शारालागसार उदयगिरी हांगा वट्ट वीस लेण्यीं आसात. तातूंत दोन जैन गुहा आसून उरलेली हिंदू धर्माकडेन संबंदीत आसात. कर्नाटकांतल्या बदामी (विजापूर जिल्हो) लागींच्या दोंगरांत चार लेण्यीं आसात. तातुंतलें एक शैव आनी जैन देवळां आसून उरलेलीं दोन लेण्यीं वैश्णव आसात. महाराष्ट्रांत वेरुळाभायर मुंबयलागसार जोगेश्वरी आनी घारापुरी हांगा हिंदू गुहा आसात. हिंदू लेण्याभाशेन जैन लेण्यांचें प्रमाणूय भारतांत कमी आसा. हीं लेण्यीं मुखेल करून ओरिसांतले भुवनेश्वरलागसरच्या उदयगिरी खंडगिरी तशेंच कर्नाटकांतल्या ऐहोळे, बादामी (विजापूर - जिल्हो) आनी महाराष्ट्रांतले चांदवड, अंकाई - टंकाई (नाशिक जिल्हो), आंबेजोगाई, धाराशिव (उस्मानाबाद जिल्हो), वेरुळ (औरंगाबाद जिल्हो) हांगा मेळटात. मराठवाड्यांतल्या आंबेजोगाई आनी धाराशिव हांगा हिंदू, जैन लेण्यीं आसून हातुंतलीं हिंदूलेण्यीं उस्मानाबाद शारालागीं लागीं लागीं ५ किमी.चेर आसून ताका चामर लेण्यीं म्हणून वळखतात.

बौध्द लेण्यीं हीनयान आनी महायान ह्या दोनूय पंथांचीं आसून तांचेमदलें खाशेलेपण उकतें जाता. सुरवेच्या कालखंडांत कोरांतिल्लीं ढांक, जुनागढ (गुजरात), भाजे, कोंडाणे, पितळखोरे, अजिंठा, बेडसे, कार्ले, नाशिक हांगाचीं लेण्यीं हीनयान पंथाचीं आसात. महायान पंथाचें मुणयारीपण करपी शिल्पशैली आशिल्लीं लेण्यीं वाघ (मध्य प्रदेश), अजिंठा, वेरुळ, औरंगाबाद, कान्हेरी, पन्हाळे, काजी आदी सुवातींचेर आसात. वाघ लेण्यांतल्या विहारांत बुध्द मूर्तीचे बदला स्तूप आशिल्ल्यान कांयजाण ते हीनयान पंथीयाचे आसुंये, अशें मत उक्तायतात. तरीय हे सुवातीचेर दोनूय पंथीयांचो राबितो आसुंये अशें थंयच्या अवशिश्ट शिल्पशैली दिसून येता. अजिंठ्या फाटोफाट हांगासरलीं वण्टी चित्रां प्रसिद्द आसात.

वास्तुशास्त्राचे नदरेन बौध्द लेण्याचें तीन मुखेल प्रकार जातात- (१) स्तूप, (२) विहार आनी (३) चैत्यगृह.

*लेण्यीं महाराष्ट्राच्या सगळया वाठारांत दिसून येतात.* अस्तंत वाठारांत राजापुरीचे खाडयेलागसार कुडा आनी महाड, पन्हाळे काजी (रत्नागिरी जिल्हो) आनी ठाणे लागसार कान्हेरी हांगा तीं आसात. मध्य वाठारांत पितळखोरे, नाशिक, जुन्नर, कोंडाणे, भाजे, बेडसा, कार्ले, कराड आदी सुवातांचेर आनी उदेंत वाठारांत अजिंठा, वेरुळ, औरंगाबाद, खरोसे आदी सुवातांचेर हीं लेण्यीं आसात.

ह्या लेण्यांवयल्यान आनी तातुंतल्या लेखांवयल्यान भारताचे राजकीय, समाजीक, धर्मीक आनी संस्कृतीक परिस्थितीचेर उजवाड पडटा. लेण्यांतल्या बऱ्याचशा लेखांनी त्यावेळावयले राजे आनी तांच्यो कारकीर्दी हांचे उल्लेख आसात. हाचेवयल्यान राजकीय घडामोडी आनी त्यावेळावयली अर्थीक स्थीती हाचीय कल्पना येता. ह्या लेण्यांवयल्यान महाराष्ट्रांतल्या बौध्द धर्म प्रसाराचीय कल्पना येता. पुर्विल्ल्या काळांत भारतांत स्थापत्याची उत्क्रांती कशी जायत गेली हेंय कळटा. स्थापत्याप्रमाण शिल्पकला आनी चित्रकला हीय कशी उत्क्रांत जायत गेली हेंय कळून येता. ह्या शिल्पचित्रांत भेस, अलंकार आनी केशरचनेचे विंगड विंगड नमुनेय पळोवंक मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**लेनिन, न्यिकलाय :** (जल्म : २२ एप्रिल १८७०, सिम्बिर्स्क (विद्यमान उल्यनफ्स्क; मरण : २१ जानेवारी १९२४, गॉर्की, मॉस्को).

व्हड मार्क्सवादी विचारवंत आनी रशियेंतलो १९१७ च्या ऑक्टोबर (बोलशेव्हीक) क्रांतीचो मुखेल सूत्रधार. ताचें मूळ नांव व्लादीमिर इल्यिच उलयानफ्स्क. सायबीरियांत हद्दपारींत आसतना तो गुपितपणान पक्षकार्य करतालो तेन्ना ताणें १९०१ त लेनिन हें टोपण नांव धारण केलें. फुडें ह्याच नांवान ताका वळखुपाक लागले. ताच्या बापायचें नांव इल्या निकोलायीव्हिच आनी आवयचें नांव मारिया. लेनिन हो तांच्या स भुरग्यांतलो तिसरो भुरगो. तांचें उल्यानोव्ह घराणें सुसंस्कृत आनी सुशिक्षीत आशिल्लें आनी सगळीं भुरगीं चड - कमी प्रमाणांत झारशाही विरूध्दच्या लढ्यांत सहभागी जाल्लीं. लेनिनाचो बापूय पयलीं शिक्षक आशिल्लो मागीर तो शिक्षण खात्यांत अधिकारी जालो. १८८६ त ताका मरण आयलें. १८८७त लेनिनाचो व्हडलो भाव अलेक्झांडराक तिसरो अलेक्झांडर झाराक मारपाचो कट केल्ल्याच्या आरोपावयल्यान अटक करून मरण ख्यास्त दिली. हांचो लेनिनाच्या मनाचेर खूब परिणाम जालो. ह्याचवेळार लेनिनान सगळयांत चड गूण मेळोवन शालेय शिक्षण पुराय केल्ल्याची पदवी मेळयली आनी कझान विद्यापिठांत कायद्याच्या अभ्यासाखातीर प्रवेश घेतलो (१८८७). विद्यार्थ्यांच्या निदर्शनांत वांटो घेतिल्ल्याच्या आरोपावयल्यान ताका धरलो आनी विद्यापिठांतल्यान धांवडावन घालो. तशेंच कझानांतल्यानय ताका हद्दपार केलो. फुडें ताका कझानाक परत येवपाची परवानगी मेळळी पूण विद्यापिठांत मात प्रवेश दिलो ना (१८८८).

*१८८८ पसून ताणें मार्क्सवादाच्या अभ्यासाक सुरवात केली.* न्यिचायफ, ब्यल्यिन्स्क, हेर्टसन, चर्निशेफस्कयई, प्यिसरयिव प्रभृतीच्या लेखनाचो ताचेर परिणाम जालो. १८९० त ताणें कम्युनिस्ट मॅनिफेस्टोचें रशियन भाशेंत भाशांतर केलें. ह्या काळापसून ताच्या क्रांतिकारक राजकीय कार्याची सुरवात जाली. *त्या काळांत रशियेंत नारोदनिकी* (Populist) ह्या नांवान क्रांतिकारकांचे अराज्यवादी विचारांचे गट

अस्तित्वांत आशिल्ले. लेनिनान तांचे विचार खोडून काडून मार्क्सवादी विचारांचो प्रसार करपाचेर भर दिलो. रोखडोच तो क्रांतिकारक गटांमर्दी लोकप्रिय जालो. ताचेपयलीं १८८९ त उल्यानोव्ह घराणें समाराक स्थलांतरीत जालें. थंय ताणें कायद्याचो अभ्यास केलो आनी १८९२ त सेंट पीटर्झबर्ग विद्यापिठाची कायद्याची पदवी पयल्या क्रमांकान मेळयली. समारांत ताणें कांय दीस (१८९२ - ९३) वकिली केली आनी शेतमजूर, कामगार हांचे दावे चलयले. ह्या निमतान कृतिशील क्रांतिकारकांकडेन ताचो संपर्क वाडलो. ताच्या इश्टांनी ताका हद्दपारितल्या रशियन क्रांतिकारांक मेळपाखातीर परदेशांत धाडलो. लेनिनान फ्रांस, स्विट्झर्लंड, जर्मनी ह्या अस्तंती युरोपीय देशांची १८९५ त भोंवडी केली. हे भोंवडेतच जिनीव्हाक ताची ग्यिऑर्गी प्ल्येखानॉव्ह ह्या मार्क्सवादी विचारवंताकडेन भेट जाली. एल. मार्तॉव्हसह ह्या मुखेल मार्क्सवाद्यान सगळ्या क्रांतिकारक गटांक एकठांय करून युनियन फॉर द स्ट्रगल फॉर द लिबरेशन ऑफ द वर्किंग क्लास हे संघटनेची स्थापना केली. हातूंत लेनिनाचो म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. तशेंच ताणें राबोची डेलो (द वर्कर्स कॉज) हें बातमीपत्र बेकायदेशीरपणान प्रकाशित करपांत फुडाकार घेतलो. तेन्ना १८९५ च्या डिसेंबरांत संघटनेच्या मुखेल कार्यकर्त्यांक अटक जाली. लेनिनाक पंदरा म्हयन्यांखातीर बंदखणींत दवरलो आनी मागीर सायबेरीयांत शूशिन्स्कय हांगा तीन वर्सां हद्दपार केलो (१८९७). त्या काळांत लेनिनान वाचप आनी बरोवप चालू दवरलें. सायबेरियांत हद्दपारींत आसतना नड्येझ्दा क्रूपस्कय (१८६९ - १९३९) ही संघटनेंतली हद्दपार केल्ली सहकारी तरणाटी ताका मेळ्ळी. ती एका सरकारी अधिकाऱ्याची धूव आशिल्ली. लेनिन तिचेकडेन २२ जुलय १८९८ वर्सा लग्न जालो. शेवटामेरेन ती लेनिनाची खासगी सचिव आनी कॉम्रेड आशिल्ली. हद्दपारींत ताणें सिडनी आनी बीआट्रिस वेब हांच्या इंडस्ट्रिअल डॅमॉक्रसी ह्या ग्रंथाचें रशियन भाशेंत भाशांतर केलें. पक्षाचे सगळे गुपित पत्रवेव्हार ती पळयताली. इनेसा नांवाची ताची आनीक एक मोगिका आशिल्ली.

१८९८ त लेनिनान ताच्या डॅव्हलपमेंट ऑफ कॅपिटॅलिझम इन रशिया ह्या म्हत्वाच्या ग्रंथाचें लेखन लेनिन ह्या टोपणनांवान पुराय केलें (१८९९). हद्दपारीची मुदत सोंपल्या उपरांत (१९००) लेनिनान रशियन सोशल डॅमोक्रेटिक लेबर पार्टिच्या कार्यांत भाग घेवपाक सुरवात केली. त्याच वर्सा रशिया आनी अस्तंत युरोपांतल्या मार्क्सवादी गटांक एकठांय करपाखातीर लेनिनान झुरिक हांगा प्ल्येखानॉव्ह, मार्तोव्ह आनी हेर फुडाऱ्यांची भेट घेवन इस्क्रा (किट) हें नेमाळें सुरू केलें. १९०२ त लेनिनाची व्हॉट इज टु बी डन? ही पुस्तिका प्रसिद्द जाली. फुडें वीस वर्सां लेनिनान पक्ष संघटना मजबूत करपाखातीर खूब कश्ट घेतले. ३० जुलय १९०३ दिसा पक्षाची परिशद सुरू जाली. ती पयली ब्रूसेलस आनी उपरांत लंडनाक भरली. तातूंत पक्षाचीं धोरणां, रचना ह्या प्रस्नांविशीं लेनिनाचे तीव्र मतभेद जाले. तातुंतल्यानूच पक्षांत बोलशेव्हीक आनी मेन्शेव्हिक अशे दोन स्वतंत्र गट निर्माण जाले. इस्का हें मुखपत्र मेन्शेव्हिकांच्या ताब्यांत गेलें. लेनिनाचो गट बोल्शेव्हिक म्हळयार भोवमताचो गट म्हणून वळखुपाक लागले. फुडें सुमार धा वर्सां लेनिनचो मेनशेव्हिकांकडेन पक्षांतर्गत लढो चालूच आशिल्लो.

१९०५ त रशियेंत उठाव जाल्या उपरांत कांय काळ लेनिनान रशियेंत रावन प्रचार आनी पक्षकार्य केलें. पूण उपरांत परत तो देशाभायर गेलो. १९०७ त तो फिनलंडांतल्यान स्विट्झर्लंडाक गेलो. १९०८ ते १९१७ ह्या काळांत तों जायत्या युरोपीय देशांत राबितो केलो. लेनिनाचे जिणेंतलो हो सगळ्यांत कठीण काळ. ह्या काळांत मार्क्सवादी पुस्तिका आनी नेमाळीं प्रकाशित करून तीं गुपितपणान रशियेंत पावोवप, बोल्शेव्हीक गटाचें संघटन करप, मेन्शेव्हिकांकडेन प्रतिवाद करप अशा कार्यांत लेनिन घुस्पल्लो. ह्या काळांतूच ताणें मटीरिॲलिझम अँड इम्पीरिओक्रिटिसिझम (१९०९) हें पुस्तक बरयलें आनी तातूंत तात्त्विक भौतिकवादापसून अलेक्झांडर बॉगडॅनोव्ह आनी हेर बोलशेव्हीक नेते कशे पयस वतात तें दाखयलें. शेवटाक प्रागचे परिशदेंत (१९१२) बोल्शेव्हीक आनी मेन्शेव्हीक हांच्यांतले दुफळीचेर शिक्कामोर्तब जालें. लेनिनान आपल्या गटाक रशियन सोशल डेमॅक्रेटीक लेबर पार्टी अशें नांव दिलें. १९१२ पसून रशियेंतल्या बोल्शेव्हिकांनी शासनाची परवानगी घेवन प्रावदा हें दिसाळें सुरू केलें. तातुंतूय लेनिनान जायतें बरोवप केलें. पयलें म्हाझूज सुरू जाल्या उपरांत जायत्या युरोपीय देशांतल्या समाजवाद्यांनी राश्ट्रीय भुमिकेंतल्यान आपापल्या देशाच्या युध्दयत्नांक फाटबळ दिवन भांडवलदार वर्गाकडेन सहकार्य करपाची भुमिका घेतली. हे कृतीन मार्क्सवादाच्या कामगार वर्गाच्या आंतरराश्ट्रीय एकजुटीच्या तत्त्वाकच बादा येता अशें लेनिनाचें मत आशिल्लें. ताकालागून ताणें युध्दविरोधी भुमिका घेतली. ह्याच अदमासाक हेरगिरीच्या आरोपाखाला लेनिनाक ऑस्ट्रियन पुलिसांनी अटक केली (१९१४). स्विट्झर्लंडाक वचपाचे अटीचेर ताका सोडलो. लेनिनान साम्राज्यशाही ही भांडवलशाहीचीच फुडली आवृत्ती आसा, हो आपलो म्हत्वपूर्ण सिध्दांत विशद करपी इम्पीअरिअलिझम द हायेस्ट स्टेज ऑफ कॅपिटॅलिझम (१९१६) हो ग्रंथ बरयलो.

रशियेचो झूजयत्न क्रांतिकारक निश्फळ करतलो ह्या विश्वासान जर्मनीन लेनिनावांगडा क्रांतिकारकांक पालव दिलो. झारशाहीचो नाश केल्याउपरांत (फेब्रुवारी १९१७) लेनिन १६ एप्रिल १९१७ दिसा जर्मनीन दिल्ले बंदीस्त रेल्वेंतल्यान तो रशियेंत आयलो. बोल्शेव्हिकांनी सत्ता हातासपाखातीर उठाव करचो अशी आग्रही भुमिका लेनिनान घेतली. उपरांत ताणें उठाव करून सत्ता हातासपाखातीर बोल्शेव्हिकांचें संघटन करपाचेर भर दिलो. त्याच अदमासाक लीअन ट्रॉट्स्की अमेरिकेंतल्यान रशियेंत परतलो. ताणें लेनिनाचे भुमिकेक फाटबळ दिलें. जुलयंत लेनिनाचे अटकेचो हुकूम

काडलो. फुडलो कांय काळ ताणें भूंयगत रावन कार्य केलें.

लेनिनाच्या तपशीलवार सूचनांप्रमाण बोल्शेव्हिकांनी ७ नोव्हेंबर १९१७ दिसा सशस्त्र उठाव करून किन्येनस्कीचें संयुक्त सरकार पदभ्रश्ट केलें आनी लेनिनान समाजवादी क्रांती जाल्ल्याचें घोशीत केलें. क्रांती उपरांतच्या काळांत लेनिनाक दुश्काळ, झूज, परकीय हस्तक्षेप, यादवी झूज, बिगररशियन राश्ट्रकांची समस्या अशा जायत्या प्रस्नांचेर लक्ष घालचें पडलें.

१९१८ च्या जानेवारींत लेनिनान संसद (ड्युमा) रद्द करून पक्षाची हुकूमशाय प्रस्थापित केली. यादवी झुजांत लेनिनाच्या फुडारपणारवाल कम्युनिस्ट पक्षान आनी लेनिनान निर्माण केल्ल्या रेड आर्मीन हें झूज जिकलें आनी ब्रेस्ट - ल्यिटॉव्हस्कच्या तहान गेल्ले प्रदेश परत मेळयले. ह्या झुजांत लेनिनाचे हत्येचे यत्न जाले आनी एक गुळी ताचे मानेंत घुसली. ह्या काळांतूच मार्च १९१९ त वेगवेगळया देशांतल्या कम्युनिस्ट पक्षांक एकठांय हाडून तांच्यांत पक्षाचीं ध्येयधोरणां मार्क्सवादाचें तत्त्वज्ञान आनी पक्षशिस्त हांचो प्रसार करपारवातीर लेनिनान मॉस्कोंत 'थर्ड इंटरनॅशनल' ह्या नांवाची संस्था स्थापन केली. वसाहतींतल्यान ताका बरो प्रतिसाद मेळ्ळो.

यादवी झूज सोंपल्या उपरांत राश्ट्रीयीकरणाच्या धोरणाक आशिल्लो वाडटो विरोध लक्षांत घेवन लेनिनान नवें अर्थीक धोरण आपणायलें आनी शेतकारांक कांय सवलती दिल्यो.

१९२२ पसून लेनिनाची भलायकी इबाडली. सदच्या कामांपसून ताका वेगळें जावचें पडलें. एप्रिल १९२२ त ताचे मानेंतली गुळी काडली. ताचे उपरांत ताका परत पक्षाघात जालो. साम्यवादी पक्षाची अकार्यक्षमता, अंतर्गत झगडीं आनी चडकरून स्टालिनच्या हातान जाल्लें सत्तेचें अमर्याद केंद्रीकरण हे ह्या काळांत लेनिनाच्या चिंतेचे विशय जाल्ले. निमण्या काळांत पक्षाचे परिशदेफुडें दवरपावातीर बरयल्ले एके चिटयेंत तर ताणें पक्षाच्या मुखेल सचिवपदावयल्यान स्टालिनाक पयस करचो अशी सुचोवणी केल्ली. १० मार्च १९२३ दिसा ताका परत आताक आयलो आनी ताची वाचा गेली आनी शरीर विकलांग जालें. हांगाच ताचें राजकीय जीवन सोंपलें. लेनिनाचो पार्थिव देह रसायनीक प्रक्रिया करून लाल चौकांत बांदिल्ल्या खास सत्रेंत राश्ट्रीय स्मारक म्हणून जतन केला.

**लेनिनवाद :** लेनिनान मार्क्सवादांत जी भर घातली तिका 'लेनिनवाद' (बोल्शेव्हिकवाद) म्हण्टात. हाची चर्चा, मीमांसा आनी स्पश्टीकरण लेनिनान बरयल्ल्या जायत्या लेखांतल्यान आनी स्वतंत्र ग्रंथांत पळोवपाक मेळटा. लेनिनवादी विचाराप्रमाण मार्क्सवाद हो क्रांतिकारकवर्गीय वेव्हार आसून कामगारवर्गान सत्ता संपादन करप हो क्रांतिकारक कृतीचो मुखेल हेतू आसा. साम्यवादी पक्षाक लेनिनवादान वर्गलक्ष्याचें हत्यार मानलां. कामगारवर्गाचे वतीन पक्षान क्रांतिकारक कृतीच्या आदारान सत्ता संपादन करून समाजवादी समाज निर्माण करपाचे यत्न करप हें लेनिनवादाचें सार आसा. क्रांतिकारक वर्गीय कृतीतलें पक्षाचें स्थान, कामगारवर्गाची हुकूमशाय आनी साम्राज्यवादाचें विश्लेशण ह्या संदर्भांत लेनिनान मांडिल्ले विचार लेनिनवादांत चड म्हत्वाचे आसात.

**अ) पक्षाचें स्थान :** लेनिनान व्हॉट इज टु बी डन? ह्या पुस्तकांत भांडवलदारवर्गाच्या संघटीत शक्तीविरूध्द सामनो दिवपावातीर कामगार वर्गाचो स्वतंत्र वर्गनिश्ठ पक्ष कसो आसचो तेविशीं विचार मांडिल्ले आसात. पक्षांतर्गत चर्चा आनी नेतृत्वाचें उत्तरदायित्व लेनिनाक मान्य आसा. पक्षाच्यो सर्वोच्च यंत्रणा वेंचून आयिल्ल्यो आसपाक जाय. मात त्याचवांगडा पक्षांतर्गत शिस्त, क्रांतिकारक सिध्दांताचेर पूर्ण निश्ठा आनी पक्षाच्या सर्वोच्च यंत्रणेच्या निर्णयांची काटेकोर अंमलबजावणी हांकांय लेनिनवादांत म्हत्व आसा. पक्ष हो क्रांतीच्या मर्दी रावतलो देखून सुसंघटीत आनी शिस्तबध्द पक्षयंत्रणेक लेनिनान म्हत्वाचें स्थान दिलें. कामगार वर्गाचे उत्स्फूर्त कृतीचेर आदारून रावनासतना लेनिनवाद कामगार वर्गामर्दी क्रांतिकारक जाणीवो निर्माण करप आनी पक्षाच्या मार्गदर्शनारवाल क्रांतिकारक कृती करप हाका म्हत्व दिता.

**ब) कामगारवर्गाची हुकूमशाय :** वर्गसंघर्शाचो शेवट कामगारवर्गाच्या हुकूमशायेंत जाता आनी कामगार वर्गाची हुकूमशाय ही पुरायपणान वर्गविहीन समाजाच्या निर्मिती पयलींची अवस्था आसता अशें मार्क्सान म्हळां. पूण कामगारवर्गाचे हुकूमशायेची कल्पना मार्क्साच्या लेखनांत सारकी स्पश्ट जायना. मार्क्स आनी एंगेलस हांच्याउपरांत लेनिनानच पयलीं आपल्या स्टेट अँड रेव्हलूशन (१९१७) त ही कल्पना विस्तारान मांडली. कामगारवर्गान क्रांती केल्याउपरांत रोखडीच राज्यसंस्था ना जायना. फक्त भांडवलशाही राज्यसंस्थेचोच पाडाव जाता. भांडवलशाय लोकशाय राज्ययंत्रणेंत सुदारणा करप शक्य नासता. कामगारवर्गाच्या हुकूमशायेनूच ती नश्ट करची पडटा. तशेंच राज्यसंस्था ही सदांच दडपणुकेचें साधन आसता. हाचेर लेनिनान भर दिला. तशेंच कामगारवर्गाच्या हुकूमशायेचें विवरण बऱ्याच अंशान मार्क्सच्या १८७१ च्या 'पॅरिस कम्यूनच्या' मूल्यमापनाचेर (द सिव्हिल बार इन फ्रान्स) आदारीत आसा.

**क) साम्राज्यवादाचें विश्लेशण :** इम्पीअरिअलिझम, द हायस्ट स्टेज ऑफ कॅपिटॅलिजम (१९१६) हें लेनिनाचें सगळयांत म्हत्वाचें सैध्दांतिक लेखनविशयक पुस्तक. साम्राज्यवादाच्या रुपान भांडवलशाहीन एका नव्या आनी अंतिम टप्प्यांत प्रवेश केल्लो आसून सर्तीची जागा मक्तेदारीन घेतली. ह्या टप्प्यांत वर्गां वर्गांमदलें विभाजन सामकें तोंकाक पावलें. भांडवलशाहीचें स्वरूप आंतरराश्ट्रीय आसता. प्रगत भांडवलशाय देशांमदल्या भांडवलसंचयाक लागून अतिरिक्त उत्पादनाचो पेचप्रसंग निर्माण जाता. फायदयाच्या सोदाक लागून भांडवलाची निर्यात जाता. हातुंतल्यान साम्राज्यवादाची अवस्था निर्माण जाता. ताकालागून

भांडवलशाहीक तात्पुरतें थीरपण फाव जाता. अर्दविकसित आनी उपनिवेशी प्रदेश हो भांडवलशायेचो सगळयांत कच्चो दुवो आसता. ह्या कच्च्या दुव्याचेर आघात करून भांडवलशाहीच्या उच्चाटनाक गती दिवं येता. तेरवातीर फुडारिल्ल्या भांडवलशाही देशांमदल्या वर्गलड्यांची उपनिवेशी प्रदेशांमदल्या वर्गलड्यावांगडा सांगड घालपाक जाय. अर्दविकसित देशांमदल्या क्रांतिकारक चळवळींत थंयच्या शेतकरीवर्गाक आस्पावन घेवपाक जाय. वसाहतींतल्या शेतकरी कामगारवर्गाच्या वर्गीय संघटनांचेर आनी वर्गलड्यांचेर लेनिनान भर दिली. साम्राज्यवादांतल्यानूच असमान विकास जाता. हातुंतल्यानूच जागतिक झुजां उद्‌भवतात अशा झुजांनी जागतिक भांडवलशाय अस्थिर जावन क्रांतीक पोशक वातावरण निर्माण जाता.

पक्षाचो क्रांतिकारक कृतींमदलो फुडाकार, निव्वळ कामगारवर्गापरस शेतकार आनी कामगारांच्या - कश्टकऱ्यांच्या - क्रांतिकारक भूमिकेच्चेर आशिल्लो भर, फुडारिल्ली भांडवलशाय देशांवांगडाच अर्दविकसीत देशांमदल्या वर्गलड्यांक दिल्लें म्हत्व आनी भांडवलशाय राज्याच्या उच्चाटनाखातीर कामगारवर्गाच्या हुकूमशाय सत्तेचो फाटपुरावो हीं लेनिनवादाचीं खास वैशिश्ट्यां आसात.

जागतिक साम्यवादी चळवळीचेर मार्क्स - एंगेल्स हांच्याखालोखाल लेनिनाच्या विचारांचो आनी व्यक्तिमत्वाचो सगळयांत चड प्रभाव पडिल्लो दिसता. ताकालागुनूच ताणें सांगिल्ल्या मार्क्सवादाचें विश्लेशण 'लेनिनवाद' म्हणून वळखूपाक लागले. जायतो काळमेरेन जायत्या देशांतल्या साम्यवादी चळवळींनी लेनिनवाद शिरोधार्य मानून त्या त्या देशांतल्या वर्गलड्याची आंखणी केली. लेनिनवाद चड करून पक्षाचें स्थान कामगारवर्गाची हुकूमशाय, तातुंतली कल्पना मूळ मार्क्सवादाकडेन सुसंगत आसा काय ना हो मार्क्सवादी विचारवंतांमदीं आनी मार्क्सवादाच्या टीकाकारांमदींय वादाचो विशय आसलो तरी जागतिक मार्क्सवादी विचारांमदीं आनी चळवळींत लेनिनाचें स्थान वादांतलें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## लेनार्ट, फीलिप एडूआर्ट आंतोन फोन :

(जल्म : ७ जून १८६२, प्रेसबर्ग - हंगेरी (सद्या चेकोस्लोव्हाकियांतलें ब्रात्यिस्लाव्हा); मरणः २० मे १९४७, मेसेलहाउझेन).

जर्मन भौतिकीविज्ञ. ऋण किर्णांविशीं केल्लें संशोधन आनी तांच्या गुणधर्मांसंबंदीं लायिल्ले सोद ह्या कार्याखातीर ताका १९०५ वर्साच्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो.

ताणें बुडापेस्ट, व्हिएन्ना, बर्लिन आनी हायडल्बर्ग हांगा रोबेर्ट बन्सन, हेर्मन हेल्महोल्ट्स, लेओ कनिग्ज्बर्गर आनी गेओर्ग क्विंग्के हांच्या मार्गदर्शनाखाल भौतिकीचें शिक्षण घेतलें. १८८६ त ताणें हायडल्बर्ग विद्यापिठाची पीएच्. डी. पदवी घेतली. त्याच विद्यापिठांत क्विंग्के हांचो साहाय्यक म्हणून ताणें तीन वर्सां काम केलें आनी १८९२ वर्सासावन बॉन विद्यापिठांत तो अध्यापक आनी हाइन्रिख हर्ट्झ हांचो साहाय्यक आशिल्लो. तेउपरांत तो ब्रेस्लॉ (१८९४), आखेन (१८९५), हायडल्बर्ग (१८९६), आनी कील (१८९८) ह्या विद्यापिठांनी भौतिकीचो प्राध्यापक आशिल्लो. १९०७ वर्सा तो हायडल्बर्ग विद्यापिठांत भौतिकीचो प्राध्यापक म्हणून परतून गेलो आनी थंयच १९३१ वर्सा सेवानिवृत्त जायमेरेन ताणें काम केलें. १९०९ वर्सा ताची त्याच विद्यापिठाच्या रेडिऑलॉजिकल लॅबोरेटरीच्या संचालक पदाचेर नेमणूक जाली.

सुरवेक ताणें संदीप्ति (Luminance) म्हळयार इलेक्ट्रॉनांचो भडिमार, विद्युत् चुंबकीय प्रारण - तरंगरुपी ऊर्जा, विद्युत् क्षेत्र ह्या उत्तेजक उद्‌गमांक लागून वा सदांच्या तापमानाक जावपी रासायनिक विक्रियेक लागून जावपी प्रकाशाचें उत्सर्जन आनी प्रस्फुरण (phosphorescence) म्हळयार उत्तेजक उद्‌गम काडून उडयतकच लेगीत जायत रावपी संदीप्ति हेसंबंदीं संशोधन केलें आनी हें संशोधन ताणें १८ वर्सां चालू दवरलें. ताणें जंबुपार प्रारण आनी ज्योतींची विद्युत् संवाहकता ह्या विशयांचेरूय विस्तारान संशोधन केलें. १८८८ वर्सा ताणें ऋण किर्ण धातूच्या पातळ पत्र्यांतल्यान पार वचूंक शकतात असो सोद लायतकच ताणें १८९८ वर्सा ॲल्युमिनियमाच्या पातळ पत्र्याचें जनेल (लेनार्ट जनेल) आशिल्ली ऋण किर्ण नळी तयार केली. उपरांत ताणें हर्ट्झ हाच्या प्रकाशविद्युत् परिणामासंबंदींच्या कार्याचो विस्तार केलो. ताणें वायूंतल्यान वचपी इलेक्ट्रॉनांत विशिश्ट किमान ऊर्जा आसल्याबगर तो वायूचें आयनीकरण करूंक शकना अशें १९०२ वर्सा दाखयलें. १९०३ वर्सा ताणें अणूचे संरचनेसंबंदींची आपली संकल्पना उजवाडायली. अणूंतलें घन द्रव्य पुराय अणूच्या फकत एक हजार दशलक्षांश इतकेंच आसता म्हळयार अणूचो चडसो भाग पोकळ आसता, हो म्हत्वाचो विचार लेनार्ट हाणें पयलेच खेप मांडलो. ते उपरांतच्या काळांत ताणें वर्णपट रेशांचें स्वरूप आनी उगम हेसंबंदीं संशोधन केलें.

नोबॅल पुरस्काराभायर ताका क्रिस्तियाना (सद्या ऑस्लो) -१९११, ड्रेझ्डेन - १९२२ आनी प्रेसबर्ग - १९४२ ह्या विद्यापिठांच्यो डॉक्टरेट पदव्यो मेळळ्यो. तशेंच लंडनचे रॉयल सोसायटीचीं रम्फर्ड आनी फ्रँक्लिन पदकां आनी जर्मन राईशचें (साम्राज्याचें) ईगल शिल्ड हे सन्मान मेळ्ळे. हिटलराच्या नॅशनल सोशॅलिस्ट पक्षान ताची 'आर्यन वा जर्मन' भौतिकी'च्या मुखेलपदाचेर नेमणूक केली. ताणें हर्ट्झ हाच्या मरणा उपरांत ताच्या Prinzien der Mechanik ह्या ग्रंथाचें संपादन करून तो उजवाडायलो. लेनार्टान ऋण किरण, सापेक्षता सिध्दांत आनी संबंदीत विशयांचेर बरयल्ल्या ग्रंथांत Ueber Kathodenstrahlen (१९०६), Ueber Ather und Materie (१९१०), Quantitatives Ueber Kathodenstrahlen (१९१८), Ueber

Relativitatsprinzip, Aether, Gravitation (१९१८), Gross Naturforscher (१९३०), Deutsche Physik (४ खंड, १९३६ - ३७) हांचो आस्पाव जाता. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत ताका अटक जालीना पूण तो हायडल्बर्ग सोडून मेसेलहाउझेन हांगा रावपाक गेलो.

- कों. वि. सं. मं.

**लेपचा :** एक जमात. ह्या लोकांची वसणूक अस्तंत भूतान, उदेंत नेपाळ आनी सिक्किम ह्या वाठारांत आसा. राँग आनी खांब अशे तांचे दोन पोटभेद आसात. मुळच्या लेपचांक राँग म्हण्टात. खांबांत राजघराण्यांतले लोक आनी तांचे वंशज हांचो आस्पाव जाता.

सुमार अडेचशें वर्सां आदीं सिक्किमांत भूतिया आनी लेपचा ह्या लोकांत बरोच काळमेरेन यादवी झूज चलतालें. ताका लागून थंयची शासनवेवस्था डळमळीत जाल्ली. दोनूय जमातींक एकामेकांचो राजा पसंत नाशिल्लो. देखून तांणी तिबेटांतलो धर्मगुरू लामा हाचेकडेन भासाभास करून एका परकी राजाची सत्ता आपणायली. हो राजा तिबेटांतल्या खांब वाठारांतलो आशिल्लो. लामांचो एक पंगड वचून ताणें राजा जावपाक फाव आशिल्लो एक तरणाटो सोदून काडलो. तो आपल्या घराण्यांतल्या कांय लोकांक घेवन सिक्किमचो राजा जाल्ल्याचें जाहीर केलें.

लेपचा लोक हे मंगोलियन वंशाचे आसात. ते उंचायेन मोटवे आसून तांचो रंग हळदुवसार आसता. तांचें मुखामळ रूंद आनी चेपटें, नाक बसकें आनी दोळे तिरकस आसतात. दादल्यांक खाड - मिशो नासतात. ते केंस लांब वाडयतात आनी तांचो आंबाडो घालतात.

तांच्यांत बायलो आनी दादल्यांचो भेस सारखोच आसता. भरभरीत रेशमी कपडयाचो सैलसर लांब झगो आनी ताचेर जाकिट असो तांचो भेस आसता. जाकिटावयल्यान ते कमरामेरेन एक रुप्याचो सरपळेचो पट्टो बांदतात. केंस आनी भेसाक लागून दादलो आनी बायल पळोवंक सारकींच दिसतात. ह्या लोकांक न्हावपाक चडशें आवडना. हे लोक स्वभावान मोगाळ, आनंदी आनी खेळाडू वृत्तीचे आसतात. घोडयाची, धांवपाची सर्त, कुस्त्यो, उडयो मारप आदी खेळ तांकां आवडटात. विनोद आनी कोटी करपाक ते तरबेज आसतात.

लेपचा लोकांत चाळीस ते शंभर रुपया देज दिवचें पडटा आनी इतले पयशे जमसर दादल्याक रावचें पडटा. लेपचा लोकांत लग्नविधी खुबूच सादो आसता. हो विधी सुरवेक व्हंकलेगेर आनी उपरांत न्हवऱ्यागेर जाता. एका गालिच्याचेर न्हवरो - व्हंकलेक दोगांकय बसोवन लामा दोगांयच्या गळया भोंवतणी वुलाचे पट्टे बांदता. उपरांत ते सोडून तांची अदलाबदल करून परत ते तांच्या गळयाक बांदतात आनी दोगांयच्या माथ्यार अक्षता उडयतात. उपरांत न्हवरो - व्हंकल एकाच पानांत जेवतात आनी एकाच पेल्यांत सोरो पितात. तेउपरांत जमिल्ल्या लोकांक जेवण वाडटात.

तांच्यांत विधवेक तेचपरीन घटस्फोटीत बायलेक परत लग्न करूंक मेळटा. धाकटया देराकडेन केल्ल्या लग्नाक चड मान्यताय आसता. भुरगीं अशिल्ले विधवेन घरच्या भायर कोणायकडेन लग्न केल्यार तिचीं भुरगीं धाकटया देराकडेन उरतात.

उच्च वर्णांतले लेपचा लोक मडयाक लासतात आनी ताचो गोबोर न्हंयेंत उडयतात. बाकीचे लेपचा लोक मडयाक कपडे घालून बसयल्ले स्थितींत पुरतात. पुरचे आदीं तीन दीस मडयाक आसनस्थ बसोवन दवरतात. राँग लेपचांत मरणाउपरांत म्हयन्यान मांत्रिकावरवीं मृतात्म्याक आहुती दितात.

चडशे लेपचा लोक बौध्द धर्माचे अनुयायी आसात. पूण हो धर्म स्वीकारचे आदीं ते निसर्गधर्मी आशिल्ले आनी वेगवेगळया निसर्ग शक्तींक भजताले. फळां, फुलां, धूप, दीप हाचेभायर देवांक ते सोरो - मांस अर्पण करतात. देवांक पुजप्यांक ते बिजुआ म्हण्टात.

तिबेटी लामा लेपचाचें पुरोयतपण करतात. कांय लेपचा घरचे घराच शिक्षण घेवन लामा जातात जाल्यार कांय मठांत रावन.

हे लोक भटके आशिल्ल्यान तीन वर्सां परस चड काळ ते एकेकडेन रावनात. शेती हो तांचो मुखेल वेवसाय. रानां तोडून आनी झाडां जळोवन ते बीं घालतात. तांदूळ, मको, गंव, जंव आंदी धान्यां आनी भाजीपालो ते पिकयतात. धोणवान आनी व्हडलो सुरो घेवन ते रानटी श्वापदांची शिकार करतात.

हे लोक सगळया तरांचें मांस खातात. दुकराचें मांस, तशेंच मको आनी मुरवा ह्या धान्यांपसून तयार केल्लो सोरो हें तांचें आवडीचें पेय. आधुनिकीरणाक लागून हेर जमातींप्रमाण, लेपचा जमातींतय समाजीक तशें संस्कृतीक बदल जावंक लागल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**लेपाक्षी :** आंध्र प्रदेशांतलें एक कलाक्षेत्र. लेपाक्षी हो ल्हानसो गांव अनंतपूर म्हालांत हिंदुपूरचे उदेंतेक णव मैलांचेर आसा.

ह्या गांवाक लेपाक्षी हें नांव कित्याखातीर पडलें तेविशीं आख्यायिका आसा ती अशी -

विरुपण्ण हो व्यापारीसंघाचो मुखेली आनी विजयनगरच्या कृष्णदेवरायाचो कोशाध्यक्ष आसलो. ज्या वाठारांत विरभद्राची मूर्ती सांपडली, त्या जाग्यार ताचें देवूळ बांदपाचें थारावन विरुपण्णान देवळाचें बांदकाम हातांत घेतलें. ह्या कामाखातीर विरुपण्णान कृष्णदेवरायाच्या खजिन्यांतलो पयसो वापरून, खजिनो रिकामी केलो. पूण कल्याणमंडप तितलोच अर्दवट उरलो. कृष्णदेवरायाक जेन्ना आपल्या रिकाम्या खजिन्याची खबर कळ्ळी, तेन्ना ताणें विरुपण्णाक दोळे काडपाची शिक्षा दिली. तेन्ना विरुपण्णान स्वतः आपले दोळे कल्याणमंडपा लागसारचे वण्टीर घांसले. ताच्यो खुणो

आजूनय ते वण्टीर आसात म्हणून त्या गांवाक लेपअक्षी म्हळयार कुडुया दोळयाचो गांव अशें नांव पडलें.

हांगा एकाच देवळांत पापनाशेश्वर, राम, वीरभद्र, दुर्गा, शिव, विष्णु अशा कितल्याशाच देवांच्यो देवळयो आसात. देवळांतले नाट्यमंडप आनी अर्धमंडप हे हांगाचे मुखेल भाग. नाट्यमंडपाक सासश्ट खांबे आसून तांचेवयलें नक्षीकाम उत्कृश्ट आसा. मदीं आशिल्ल्या खांब्याचेर नर्तक आनी वादक हांच्यो पुराय आकृत्यो कोंत्रायल्यात. तातूंत ब्रह्मा मृदंग वाजयताना, तुंबरू वीणावादन करताना, शिव आनी रंभा नाच करताना दाखयल्लीं आसात. नाट्यमंडपाच्या फाटल्यान वीरभद्राचें मुखेल देवूळ आसून ताचे उदेंतेक शिवाचें देवूळ आनी अस्तंतेक अर्दवट स्थितींत कल्याणमंडप आसा. ताचे दक्षिणेक व्हडलें नागलिंग आसून, त्या लिंगाचेर नागाची व्हडली सात तोंडांची फणा उबारिल्ली आसा.

देवळाचे उदेंतेक दोनशें यार्डांचेर एक नंदी आसा. तो एकाच फात्रांतल्यान कोंत्रायल्लो आसून, ताची उंची वीस फूट आनी लांबी तीस फूट अशी आसा. हो भारतांतलो सगळयांत व्हडलो नंदी जावन आसा.

हांगाच्या देवळांनी खूब मूर्ती आनी चित्रां आसून, तरेतरेचें नक्षीकामय केल्लें आसा. हें पळोवन चित्र आनी शिल्प या कलांचें भांडार भल्लां अशें दिसता.

हांगा कितलेशेच पौराणिक प्रसंग फातरांतल्यान कोंत्रायल्यात. विरभद्राच्या गर्भघराचे वण्टीर, रंगमंडपाच्या आनी मुखमंडपाच्या माथ्यार आनी कांयकडेन खूब चित्रां आसात. तीं सगळीं पौराणीक कथानकांचेर काडिल्लीं आसात. तातुंतल्या शिवपार्वतीचें लग्न, किरातार्जुनीयकथा, दक्षिणामुर्ती शिव, राम वटपत्रशायी कृष्ण, मार्कंडेयकथा, भिक्षाटन शिव, गौरीप्रसादक, गंगाधर शिव, चंडीशानुग्रहमूर्ती शिव, दशावतार, यक्ष, गंधर्व दादलो - बायल अशीं कितलींशीच सोबीत चित्रां आसात. ह्या चित्रांतल्या वळींचें लालित्य आनी वेग ह्यो गजाली तोखणाय करिसारक्यो आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**लेबानन :** अस्तंत आशियेंतलो एक देश. हो देश भूंयमध्य दर्याचे उदेंत देगेर वसला. क्षेत्रफळ १०,४०० चौ. किमी. विस्तार ३३° ४' उत्तर ते ३४°४१' उत्तर अक्षांश आनी ३५°६' ते ३६°३६' उदेंत रेखांश. ह्या देशाचे उत्तरेक आनी उदेंतेक सिरिया, अस्तंतेक भूंयमध्य दर्या आनी दक्षिणेक इझ्रायल देश आसा. बेरूत हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** लेबाननाची चडशी भूंय दोंगरी आसा. तशेंच अदर्यापरस चड भूंय ९०० मीटर परस चड उंचायेची आसा. पूण भूंयमध्य दर्या लागशिल्लो अशीर भाग सपाट आसा. दर्यादेगांच्या सपाट भागाचे उदेंतेक ह्या भागाक समांतर अशो खडबडीत पर्वतांवळी आसात. ह्या पर्वतांवळींची लांबाय सुमार १६० किमी. जाल्यार रुंदाय सु. १० - १५ किमी. आसा. ह्या वळींची उंचाय दर्याथरासावन दोन ते तीन हजार मीटरांपरस चड आसा. कर्नट एस् सौदा हें देशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. जाल्यार जेबल सॅनीन हें हातुंतलें दुसऱ्या क्रमांकाचें तेमूक. हे वळींत कांय कडेन खोल देगणां आसात. अस्तंतेकडेन लेबानन आनी उदेंतेकडेन अँटी लेबानन आनी हरमान पर्वतांवळीं मजगतीं १० ते ६० किमी. रुंदायेचें आनी १८० किमी. लांबायेचें बिका हें पिकाळ देगण आसा. देशाचे उदेंत शिमेचेर लेबानन पर्वताक समांतर अशो अँटी लेबानन आनी हरमान ह्यो पर्वतांवळी आसात. अँटी लेबानन वळिची उंचाय २, ६५८ मीटरांवयर, जाल्यार हरमान वळिची उंचाय २,८१४ मी. मेरेन वाडल्या. दक्षिण भागांतलें मौंट हरमान हें ह्या वळिंतलें मुखेल तेमूक. लिटानी, ओरॉंटीस आनी इब्राहिम ह्यो देशांतल्यो मुखेल न्हंयो. शिंयाच्या दिसांनी न्हंयांक चड उदक आसता.

**हवामान :** लेबानन मुखेलपणान भूंयमध्य सागरी हवामानाच्या प्रदेशांत मोडटा. देशाची उंचसखल भूंय आनी अस्तंती वारें हांचो थंयच्या हवामानाचेर परिणाम जाता. वेगवेगळया प्रदेशांनी पावसाचें प्रमाणूय वेगळें उरता. दर्यादेगांनी वर्सुकी पावसाचें प्रमाण ९० सेंमी. आनी पर्वतीय प्रदेशांत तें ३८ सेंमी. आसता. गीम हो ऋतू सुको आसता. शिंयाच्या दिसांनी पर्वतांचेर हिम पडटा. वर्सुकी सरासरी तापमान २१° सॅ. आसता. पूण शिंयाच्या दिसांनी तें १३° सॅ. मेरेन सकयल देंवता, जाल्यार गिमांत तें २८° सॅ. मेरेन वयर वता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** देशांत वनस्पतींच्यो सुमार २,५०० उपजाती आसात. उपोश्ण कटबंधी आनी रेंवटी प्रकारासावन ते आल्पायन प्रकारांमेरेन वनस्पती प्रकार थंय मेळटात. देशाच्या सकल भागांत ओलिव, अंजीर, चड उंचायेच्या प्रदेशांनी सिडार, मॅपल, जूनिपर, फर, सायप्रस, कॅरोय, ओक आनी पायन हे प्रकार मेळटात. बेकायदेशीर रूख मारप चालू आशिल्ल्यान दिसान दीस रानां पातळ जायत चल्ल्यांत. हांगाच्या विंगड विंगड रानांनी हरण, कोल्ले, वांस्वेल, सोंशे, रानमाजर, साळिंदर, मार्टेन, रानउंदीर, चानी, शेडे आनी वेग वेगळया प्रकारचे सोरोप सांपडटात. हांगा सांपडपी सुकण्यांत कस्तूर, नायटिंगेल, तितर, पारवो, कोगूळ, सुतारपक्षी, गिद, घुबड, रानकावळो, गरूड, घोण, हंसक, बकें हांचो आस्पाव जाता.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** लेबानी पर्वतीय प्रदेशांत आयजूय पुर्विल्ल्या जमातिंचें अस्तित्व तिगून आसा. लेबानन ही आदल्या फिनीशी लोकांची मायभूंय. लेबानन आनी सिरिया हे आदींसावन (इ.स.प. १२०० ते १०००) फिनिशियेचो एक भाग आशिल्लो. उपरांत ह्या दोनूय प्रदेशांचो रोमन साम्राज्यांत आस्पाव केलो. इ.स. सातव्या शेंकड्यांत लेबाननाचो कांय भाग अरबांनी हातासलो. तशेंच मॅरोनायट

क्रिस्तावांची सत्ताय थंय खूब तेंप उरली. उपरांत धर्मांतर आनी स्थलांतर हाका लागून इस्लामांचो प्रसार वाडलो. इकराव्या शेंकडयांत डूझिझांनी लेबानी पर्वताचे दक्षिणेक आनी सिरियेंत आपलो राबितो केलो. कांय तेंप लेबाननाचेर मंगोलांनीय आपली सत्ता प्रस्थापीत केली. सोळाव्या शेंकडयांत तुर्की ऑटोमन साम्राज्याचो हो एक भाग जालो. ऑटोमन अधिकाऱ्यांनी मौंट लेबानन जिल्हे अमीर आनी शेख हांच्या ताब्यांत दिल्ले. सोळाव्या शेंकडयांत माआन कुळांतल्या फक्र अद् दीन हाणें स्वायत्त लेबाननाची येवजण मांडली. ताणें अस्तंत युरोपाकडेन वेपारी आनी लश्करी कबलाती करून किरिस्तांव धर्माक प्रोत्साहन दिलें. सतराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक शीहाब घराण्यान ह्या भागाचेर आपलो शेक बसयल्लो. १७८८ ते १८४० मेरेन मौंट लेबाननाचेर शीहाब घराण्यांतलो दुसरो बशीर हाची सत्ता आशिल्ली. ताणें आपले सत्तेचो खूब विस्तार केल्लो. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक सावन लेबाननाचेर ब्रिटिश आनी हेर युरोपियांच्यो घुरयो पडपाक लागल्यो. उपरांत थंयच्या डूझिझ आनी किरिस्तांव हांचेभितल्ली दुस्मानकाय वाडोवन तांच्यांत झगडीं सुरू जालीं. पूण युरोपांतल्या मुखेल देशांचे मध्यस्थीन थंय शांतता प्रस्थापीत करून थंय नवें शासन स्थापलें. १८६४त किरिस्तांवांखातीर स्वतंत्र राज्यपालाची नेमणूक करून मौंट लेबानन ह्या स्वायत्त प्रांताची निर्मिती केली.

पयल्या म्हाझूजांत ऑटोमन साम्राज्यान जर्मनीक तेंको दिल्ल्यान, दोस्त राश्ट्रांनी ऑटोमन साम्राज्या वांगडा लेबाननाकूय रेवाडो घातिल्लो. हाका लागून लेबाननाची अर्थीक स्थिती इबाडली. लेबानी लोकांचेर उपासमारीची पाळी आयली. पयल्या झुजामेरेन लेबानन हो सिरियेचो एक भाग आशिल्लो. १९१८त दोस्त राश्ट्रांनी हो भाग आपल्या ताब्यांत घेवन, थंयच्या अरबांच्या आदारान तुर्की लोकांक लेबाननांतल्यान धांवडावन घाले. तुर्कांची हार जाल्ल्यान ऑटोमन साम्राज्य बरखास्त केलें. उपरांत १९२०त जाल्ले बसकेंत राश्ट्रसंघाच्या आदेशावयल्यान सिरियेचो कारभार फ्रांसाकडेन सोंपयलो. तातूंत मौंट लेबाननाचोय आस्पाव आशिल्लो. उपरांत फ्रेँचांनी सिरिया वेगळो काडून बाकिच्या प्रदेशाक ग्रेटर लेबानन हें नांव दिलें. मुखार होच प्रदेश लेबानीज रिपब्लीक म्हूण अस्तित्वांत आयलो. तातूंत मुस्लिम लोकांचोय आस्पाव आशिल्लो. १९२३त राश्ट्रसंघान लेबानन आनी सिरिया विश्वस्त प्रदेश म्हूण फ्रान्साकडेन दिले. फ्रेँचांचे देखरेखीखाल त्या प्रदेशांनी येरादारी, भौशिक आनी अर्थीक स्थितींत सुदारणा जाली. पूण उपरांत जागतिक मंदीच्या काळांत शेतवडीचें म्हत्व उणें जाल्ल्यान थंयच्या लोकांनी चड स्वातंत्र्याची मागणी केल्ली. १९३६त फ्रेँको लेबानीज हांच्यांत स्वातंत्र्य आनी इश्टागतीची कबलात जाली. थंय वेगवेगळ्या पंगडाचे लोक आशिल्ल्यान तांच्यांतलो तणाव उणो करपाखातीर १९०६त प्रजासत्ताकाचो राश्ट्राध्यक्ष मॅरोनायट, पंतप्रधान सुन्नी आनी विधिमंडळाचो सभापती शिया पंथी आसतलो अशें थारयलें.

दुसरें म्हाझूज चालू जाल्लें तेन्ना, १९४०त व्हिशी सत्ताधिकाऱ्यांनी लेबानन आपल्या ताब्यांत घेतलो. पूण १९४१ त अँग्लो - फ्री फ्रेंच हांच्या जोड सैन्यान लेबानन आनी सिरिया परतून आपल्या ताब्यांत व्हेले. फ्री फ्रेंच प्रतिनिधींनी २६ नोव्हेंबर १९४१ दिसा लेबाननाच्या स्वातंत्र्याची घोशणा केली. १९४३त लेबानन प्रजासत्ताकाची स्थापणूक केली. त्याच वर्सा वेंचणुको घेवन थंयच्या राश्ट्रवादी पक्षाक जैत मेळ्ळें. शेख बीशारा अल् कूरी हो लेबाननाचो पयलो राश्ट्राध्यक्ष जालो. मुखार नव्या शासनान फ्रेंचांचो प्रभाव आशिल्ल्या संविधानांत कांय सुदारणा केली म्हूण फ्रेंचांनी ताका विरोध करून राश्ट्राध्यक्ष बीशारा अल् कूरी आनी ताच्या पुराय मंत्रिमंडळाक बंदखणींत घाले. पुराय देशान हे घडणुकेचो विरोध करून सरकाराआड उठाव केले. स्थिती हाताभायर वता तें जाणून उपरांत ब्रिटिशांनी मध्यस्थी करून शासनाची पुनर्रचणूक केली. लेबाननाच्या स्वातंत्र्याची घोशणा केल्ली तेन्ना थंयचो समाज विंगड विंगड पंगडांनी विभागिल्लो. ताका लागून आपसांतली दुस्मानकाय पयस करपाखातीर सत्तासमतोलाच्या प्रस्नाचेर वेगवेगळ्या पंगडांभितर समझोता जालो. १९४६तल्या थरावाप्रमाण कार्यकारी आनी वैधानिक कार्यांत किरिस्तांव आनी मुसलमानांचो वांटो ६:५ असो दवरलो. जानेवारी १९४४त लेबाननाच्या पुराय स्वातंत्र्याची घोशणा केली. १९४५त फ्रेंच आनी ब्रिटनान थंयचें आपआपलें सैन्य काडून घेतलें. ताका लागून १९४६त लेबाननाक पुराय स्वातंत्र्य मेळ्ळें.

स्वातंत्र्य मेळ्ळया उपरांत मुखावयलीं वीस वर्सां हो लेबाननाचो अर्थीक आनी राजकीय नदरेन स्थिरतायेचो काळ उरलो. सुरवेच्या काळांत अरब - इझ्रायल हांचेभितर जाल्ल्या तिनूय झूजांनी लेबानन तटस्थ रावलो. १९५७त राजकारणावयल्यान थंयच्या मुस्लिम पंगडांभितर संघर्श सुरू जालो. १९५८त लेबाननाची भौशिक स्थिती खूब इबाडली. त्याच वर्सा मुस्लिम आनी किरिस्तांवांभितर संघर्श सुरू जालो. हाका लागून लेबानन सरकारान जुलय १९५८त अमेरिकेकडच्यान लश्करी आदार घेतलो. त्या काळांत चेंबरान जनरल फुआद काहाब हाका सशस्त्र सैन्याचो कमांडर म्हूण वेंचून काडलो. उपरांत लेबाननाचो राश्ट्राध्यक्ष म्हूण तोच वेंचून आयलो. तो १९६४ मेरेन सत्तेर उरलो. ताच्या उपरांत १९६४ - ७० मेरेन चार्लस हॅलो आनी १९७० - ७६ मेरेन सुलेमान फ्रांजिया हे सत्तेर आयले.

अरब - इझ्रायल झुजांत सुरवेच्या तेंपार लेबाननान वांटो घेवंक नाशिल्लो. पूण १,८६,००० पॅलेस्टिनी अरब - जेन्ना मुस्लिम निर्वासीत म्हूण दक्षिण लेबाननांत रिगोवन इझ्रायलाआड कारवाय करपाक लागले, तेन्ना सावन लेबानन आनी इझ्रायल हांच्यांत दुस्मानकाय वाडली. तशेंच इझ्रायलाचेर बहिश्कार घालपी अरब धोरणाक लेबाननान तेंको दिल्लो म्हूण देशांत धर्मीक दंगली जावपाक

लागल्यो. हाचो परिणाम म्हळ्यार देशांतली राजकीय आनी अर्थीक स्थिती साप्प इबाडली. पॅलेस्टिनी लोकांनी इझ्रायलाआड लेबाननचे दक्षिणेकसावन चालू केल्ल्यो गनिमी कारवायो थांबोवपाक लेबानी सरकाराक अपेश आयलें. ऑक्टोबर १९६९त लेबानी आनी पॅलेस्टिनी लश्करांभितर झूज पेटलें. पॅलेस्टिनीयांच्यो गनिमी कारवायो थांबोवपाखातीर १९७०त इझ्रायलान लेबाननाचेर खूब खेपे घुरयो घाल्यो. मुखावयलीं पंदरा वर्सां इझ्रायलाच्यो दक्षिण लेबाननावयल्यो घुरयो आनी पॅलेस्टियन कमांडो हांच्यांत आतऱ्या पयऱ्यान झगडीं चालूच आशिल्लीं.

देशाचेर परकी घुरयो चालू आसतनाच देशाभितल्ले उजवे विचारसरणीचे किरिस्तांव आनी दावे विचारसरणीचे मुस्लिम हांणी आपआपलें सैन्य उबारून तांच्यांत यादवी झूज सुरू जालें. अठरा म्हयने चालू आशिल्ल्या ह्या झुजांत दोनूय पंगडांचे मेळून सुमार १ लाख लोक मेले. १९७६त सिरियेचें सैन्य लेबाननांत रिगून तांणी बिका देगणांतल्या प्रदेशाचेर ताबो मेळयलो. उपरांत साउदी अरेबीया आनी हेर अरबी देशांच्या आदारान शांतता घडोवन हाडली. ह्या झुजाक लागून देशाची अर्थीक आनी राजकीय स्थिती आनीक इबाडली. हाचो परिणाम म्हळ्यार देशाची प्रभावी सत्ता सिरियन, पॅलेस्टिनी आनी सुमार तीस प्रांतिक लोकसेनांकडेन उरली. जाल्यार उदेंत मध्य प्रदेश किरिस्तांव फलँजस्टांच्या शेकातळा उरलो. मार्च १९७८त पॅलेस्टिनी राश्ट्रीय मुक्ती आघाडीच्या सैन्यांत इझ्रायलाचेर केल्ल्या हल्ल्याचो बदलो घेवपाखातीर इझ्रायली सैन्याक लेबाननांत रिगोवन पॅलेस्टिनी सैन्य आनी तांच्यांत परत झूज सुरू जालें. पूण संयुक्त राश्ट्राचे मध्यस्थीन थंय शांतता प्रस्थापीत केली. पॅलेस्टिनी राश्ट्रीय मुक्ती आघाडेन उत्तर इझ्रायलाचेर आनी बिका देगणांतल्या सिरियी लोकांचेर परतून आक्रमण केल्ल्यान १९८२त इझ्रायलान लेबाननाचेर घुरी घाली. अमेरिकेच्या आदारान थंय तात्पुरती शांतता स्थापीत केली. ह्या झुजांत लेबाननाचे १९,००० वयर लोक मेले आनी ३०,००० वयर लोक जखमी जाले. इझ्रायल आनी सिरियांच्यो लेबाननाचेर घुरयो चालूच आशिल्ल्यो. तशेंच देशाभितल्ल्या किरिस्तांव आनी मुस्लिम लोकांभितरूय यादवी झुजाक नेट आयिल्लो. १९८३त निर्माण जाल्लो दहशत १९९० मेरेन चालूच उरलो. ऑक्टोबर १९९०त सिरियी सैन्यान राश्ट्राध्यक्ष एलिआस हिरावी ह्या अरबी मुखेल्याक तेंको दिवन जनरल मायकल ऑन ह्या किरिस्तांव सैन्याच्या मुखेल्याचो पराभव केलो. यादवी झुजांत दोनूय पंगडांचे मेळून सुमार १,२५,००० लोकांक मरण आयलें. १९९१त सिरिया आनी लेबानन हांच्यांत कबलात जावन लेबानन हें स्वतंत्र राज्य म्हूण मानून घेतलां.

देशांत धर्मीक आनी पंथीय अशे वेगवेगळे पंगड आशिल्ल्यान राश्ट्रीय सभेतलें संख्याबळ १९४३ तल्या राश्ट्रीय थरावाप्रमाण जनगणनेचेर आदारलां. तशेंच राश्ट्राध्यक्ष मॅरोनायट किरिस्तांव, पंतप्रधान सुन्नी मुस्लिम आनी राश्ट्रीय सभेचो अध्यक्ष शिया मुस्लिम आसचो अशेंय तातूंत थारायलां. विधानमंडळान स वर्सांखातीर वेंचून दिल्लो राश्ट्राध्यक्ष आनी तांणी वेंचून काडिल्लो आनी विधानमंडळाक जापसालदार आसपी प्रधानमंत्री तशेंच मंत्रिमंडळाच्या हातांत कार्यकारी सत्ता उरता. वैधानीक सत्ता भौशिक मतदान पद्दतीन चार वर्सांखातीर वेंचून दिल्ल्या ९९ सभासदांचे राश्ट्रीय सभेकडेन आसता. १९६०त वेंचणूक सुदारणा कायद्याप्रमाण विधानमंडळाचें संख्याबळ थारायलां तें अशें - मॅरोनायट ३०, सुन्नी २०, शिया १९, ग्रीक ऑर्थोडॉक्स ११, ग्रीक कॅथलीक ६, डूझिझ ६, आर्मेनियन ऑर्थोडॉक्स ४, आर्मेनियन कॅथलिक १, प्रॉटेस्टंट १ आनी हेर मेळून १. राज्यकारभाराचे नदरेन देशाचे वेगवेगळे स प्रांतीक भाग केल्यात ते अशे - बेरूत, उत्तर लेबानन, दक्षिण लेबानन, बिका आनी मौंट लेबानन. ह्या प्रांतांची मुखार जिल्हे, नगरपालिका आनी गांवगिरे वाठार अशी विभागणी केल्ली आसा.

**अर्थीक स्थिती :** बेरूत ह्या शाराक आदल्या तेंपासावन एक वेपारी केंद्र म्हूण नामना मेळ्ळ्या. शेतवड हो देशाचो मुखेल वेवसाय. देशाची भूंय पिकाळ आसून, वट्ट जमनिंतली सुमार ३८% भूंय शेतवडीखाला आसा. लिंबू आनी लिंबू जातीचीं फळां, सफरचंद, द्राक्षां, बटाट, साकर - बीट, गंव, केळीं, तंबाकू हीं हांगा जावपी म्हत्वाचीं पिकां. चरस हें बेकायदेशीर उत्पादन आसलें तरी ताची लागवड दिसानदीस वाडत आसा. शेतकी उत्पादनाक पालव दिवपी पशुधनांत बोकडां, मेंढरां, गोरवां, दुकर, घोडे, गाढव हांचो आस्पाव जाता. पूण देशाचे गरजेपरसूय पशुधनाचें उत्पादन उणें आशिल्ल्यान तांची आयात करची पडटा. रानांसावन मेळपी येणावळूय देशाचे अर्थीक स्थितीक हातभार लायता.

देशांत वेगवेगळ्या प्रकारचीं खनिजां मेळटात. पूण तांचे साठे खूब उणे आसात. हाका लागून खाणकाम वेवसाय विकसीत जालो ना. लोखण, पायरायट, तांबें, लिग्नायट, खनीज मीठ, बिट्युमिनी शेल, अस्फाल्ट, फॉस्फेट हीं खनिजां म्हत्वाचीं. अस्तंत बिका देगणांत तेलाचे सांठे मेळ्ळयात .

स्वातंत्र्या उपरांत इझ्रायल आनी हेर देशांनी घातिल्ल्यो घुरयो आनी यादवी झूज हाका लागून उद्देग धद्यांचेर आनी वेपाराचेर वायट परिणाम जाले. देशाची उक्ती अर्थवेवस्था आनी विदेश विनिमय पद्दत, बेरूतचें विकसित बंदर आनी विमानतळ हांकां लागून देशाच्या उद्देग धंद्यांत आनी वेपारांत खूब वाड जाली. अन्नप्रक्रिया, लुगट, शिमीट, तेलनिवळिकरण हे देशांतले मुखेल उद्देग. त्रिपोली आनी सायडोन शारांत तेलनिवळिकरणाचे व्हड कारखाने आसात. वेपार हें लेबानन अर्थवेवस्थेचें म्हत्वाचें क्षेत्र. आयात मुखेलपणान इटली, सौदी अरेबिया, फ्रांस आनी अमेरिका हांचेकडच्यान जाता, जाल्यार लेबाननाचे निर्याती संबंद इराक, साउदी अरेबिया, जॉर्डन,

सिरिया हांचेकडेन आसात. लेबानी पौंड हें देशाचें अधिकृत चलन. बँक ऑफ लेबानन ही देशाची मध्यवर्ती बँक.

**येरादारी आनी संचारण :** देशाची उंच सरवल भूंय आनी उणो निधी हांकां लागून रस्त्यांच्या मळार जायतशी उदरगत जांवक ना. देशाचो रेल्वेमार्ग्यू मर्यादीत आसा. भूंयमध्य दर्यादिगेर आशिल्लें बेरूत हें संवसारांत नामना मेळिल्लें बंदर. सायडन, ट्रिपोली आनी जूनिया हीं हेर म्हत्वाचीं बंदरां. बेरूत हो अंतर्देशी आनी आंतरराश्ट्रीय विमानतळ. बेरूत हांगा स्वयंचलीत दूरध्वनी पद्दत आसा. लेबानी प्रक्षेपण केंद्रांवरवीं अरबी, फ्रेंच, इंग्लीश भाशेंतल्यान रेडिओ कार्यक्रम प्रसारीत करतात. दोन वेपारी दूरचित्रवाणी सेवा संस्थांकडच्यान अरबी, फ्रेंच आनी इंग्लिशींतल्यान दुरचित्रवाणी कार्यावळी प्रसारीत जातात.

**लोक आनी समाजजीण :** लेबाननांत वेगवेगळया वंशांच्या धर्मांची आनी पंगडांची भरसण जाल्ले लोक आसात. तातूंत फिनिशियन, ग्रीक, आर्मेनियन आनी अरब म्हत्वाचे. चडशे लेबानी अरब आसात. ते मुरवेलपणान मुस्लिम आनी किरिस्तांव अशा दोन गटांनी विभागिल्ले आसून त्या प्रत्येकांत वेगवेगळें धर्ममत आनी पंथ मानपी आनीकूय पंगड आसात. मुसलमानांचे सुन्नी आनी शिया अशे दोन पंथ आसात. ड्रूझिझ हे इस्लाम धर्मासावन वेगळे जाल्ले म्हत्वाचे अल्पसंरवी लोक किरिस्तावांभितर मॅरोनायट, ग्रीक ऑर्थोडॉक्स, आर्मेनियन, ग्रीक रोमन कॅथलिक आनी प्रोटेस्टंट अशे मुरवेल पंगड आसात. दर एका वांशिक गटाच्यो आपआपल्यो राजकीय संघटना आनी समलश्करी समुह आसात. ज्यू आनी सिरियन कॅथलीक लोकांचोय आस्पाव ह्या देशांत जाता. वट्ट लोकसंरव्येंतले सुमार ७५% लोक शारांत जाल्यार फकत २५% लोक गांवगिन्या वाठारांनी रावतात.

- कों. वि. सं. मं.

## लेलॉयर, ल्वी फ्रेदेरिको : (जल्म : ६ सप्टेंबर १९०६, पॅरिस).

अर्जेंटिनांतलो जीवरसायनशास्त्रज्ञ. जटिल (घुस्पल्ली संरचना आशिल्ल्या) शर्करांचे साद्या कार्बोहायड्रेटांच्या रुपांतले कुडके करपाच्या प्रक्रियांविशीं ताणें अनुसंधान केलें. हातुंतल्यान शर्करा न्यूक्लिओटायडांचो सोद लागलो आनी तांचें कार्बोहायड्रेटाच्या चयापचयांतलें कार्य स्पश्ट जालें. ह्या संशोधनारवातीर ताका १९७० वर्साच्या रसायनशास्त्राचो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळो.

ताचें शिक्षण ब्वेनस एअरीझ हांगा जालें. १९३२ वर्सा ताणें ब्वेनस विद्यापिठाची एम्. डी. पदवी घेतली. १९३४ - ३५ वर्सा ताणें ह्या विद्यापिठाचे शरीरक्रियावैज्ञानिक संस्थेंत साहाय्यक म्हणून काम केलें. उपरांत केंब्रिज विद्यापिठांतले जीवरासायनिक प्रयोगशाळेंत संशोधक म्हणून काम करतकच १९३७ वर्सा हेच संस्थेंत ताणें वसाम्लांच्या ऑक्सिडीभवनाविशींचो अभ्यास केलो. उपरांत कांय काळ ताणें अमेरिकेंतल्या वॉशिंग्टन (१९४४) आनी कोलंबिया (१९४४ - ४५) विद्यापिठांत संशोधन केलें. अर्जेंटिनाक परत येतकच ताणें ब्वेनस एअरीझ विद्यापिठांतल्या जीवरसायनशास्त्र विभागाचो मुरवेल म्हणून काम केलें. ताणें लॅक्टोजाचें (दुग्ध शर्करेचें) उत्पादन करपाक सुरवात केली. हातुंतल्यानूच शर्करा न्यूक्लिओटायडांचो सोद लागलो. विशिश्ट यकृत एंझायमां आसल्या बगर ग्लुकोजापसून ग्लायकोजेन ही म्हत्वाची शर्करा शरीरांत निर्माण जावंक शकना हें ताणें दारवोवन दिलें. अशे तरेन ताणें एंझायमांचो सोद लायलो. ताणें ग्लायकोजेनच्या वापराचेरय अनुसंधान केलें आनी ताची यंत्रणा उक्ती केली. हेभायर ताणें ग्लुकोज डायफॉस्फेट (१९४८), युरिडीन डायफॉस्फेट ग्लुकोज (१९५०) आनी युरिडीन डायफॉस्फेट ॲसिटिग्लुकोज अमाइन (१९५३) हांचें विलगीकरण केलें. तशेंच १९६० वर्सा ताणें स्टार्चाचें जैव संश्लेशण केलें आनी १९६४ वर्सा मक्याच्या दाण्यांतल्यान ॲडिनोसीन न्यूक्लिओटाइडां वेगळीं केलीं.

तो अर्जेंटाइन ॲसोसिएशन फॉर ॲडव्हान्समेंट ऑफ सायन्सचो चेअरमन (१९५८ - ५९), नॅशनल रिसर्च कौन्सिल (१९५८ - ६४) आनी नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ मेडिसीन (१९६१) हांचो वांगडी आशिल्लो. तशेंच यू. एस्. नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेस (१९६०), अमेरिकन ॲकॅडेमी ऑफ आर्ट्स अँड सायन्सेस (१९६१), अमेरिकन फिलॉसॉफिकल सोसायटी, लंडनची रॉयल सोसायटी (१९७२) हांचेंय परदेशी वांगडीपण ताका मेळिल्लें. ताका पॅरिस, ग्रानाडा (स्पेन), कार्डोबा ह्या विद्यापिठांच्यो डॉक्टरेट पदव्यो आनी टी. ड्यूकेट जोन्स स्मृतिपुरस्कार (१९५८), गेर्डनर प्रतिशठान पुरस्कार (१९६६) हे भोवमान मेळ्ळयात.

- कों. वि. सं. मं.

## लेसर : लेसर (Laser) हें उतर Light amplification by stimulated emission of radiation ह्या उतरगटांतलीं आद्याक्षरां घेवन तयार जालां.

हाचो अर्थ माध्यम पदार्थांतल्या अणूंक वा रेणूंक उजवाड उर्जेच्या आदारान उजवाडाचें विवर्धन (Amplification) करप असो जाता. स्वयंचलीतपणान उजवाड उत्सर्जन (Emission) करपी आदोलकाक लेसर म्हण्टात. उजवाडाचें अशेतरेन विवर्धन करपी प्रयुक्तीक (Device) लेसर विवर्धक (Amplifier) अशें म्हण्टात.

प्रारणाच्या प्रभावानूच अणरेणूंपसून उत्सर्जित प्रारण निर्माण जावपाची संकल्पना ॲल्बर्ट आयन्स्टायन हाणें १९१७ त पयलीं मांडली. पूण ताका लेसर ह्या प्रभावी प्रारणस्त्रोताविशीं कल्पना आशिल्ल्याचो संकेत मेळना. ह्या तत्त्वाचो उपेग १९५० वर्सा अमेरिकेंतल्या कोलंबिया विद्यापिठांत सी. एच्. टाउन्स हाणें करून उद्दीपित सूक्ष्मतरंग विवर्धित प्रारण (मेसर) निर्माण केलें. त्याच अदमासाक

रशियेंत एन्. जी. बासव्ह आनी ए. एम्. प्रॉचोरॉव्ह हाणें प्रकाशीय मेसर जांव लेसरची कल्पना मांडली आनी हे कल्पनेचो फाटपुरावो करून टी. एस्. मैमान हाणें १९६० वर्सा पयलो लेसर कार्यान्वित केलो. १९६४ वर्सा टाउन्स, बासव्ह आनी प्रॉचोरॉव्ह ह्या तिगांनी मेसर आनी लेसर कल्पना मांडिल्ल्याखातीर भौतिकीचो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो आनी लेसर तत्त्वाचेर चड संशोधन केल्लेखातीर ए. एल्. शॉलो हाका १९८१त भौतिकीचो नोबॅल पुरस्कार फाव जालो.

लेसर उजवाडाचे गूणधर्म ताची गतिमार्गदिशा, तरंगलांबी (जांव कंप्रता), परमप्रसर, कला आनी ध्रुवण अवस्था ह्या घटकांवयल्यान थारतात. लेसर उजवाडाचे मुखेल गूणधर्म अशे आसात - १) एकवर्णीयता २) एकदिशीत्व आनी ३) प्रस्वरता.

**एकवर्णीयता :** उजवाड तरंगांची तरंगलांबाय (जांव कंप्रता) एकाच मुल्याची आसता अशा उजवाडाक एकवर्णीयता म्हण्टात.

**एकदिशीत्व :** लेसर उजवाड दोन अंतर्गोल हारशांच्या अदमासान विशिश्ट तरेन निर्माण जाता देखून लागींलागीं एकेच दिशेन वता. साद्या लेसराविशीं उजवाड अपस्करण $१०^{-३}$ रेडियन (अरियमान - कोन) इतकें कमी आसता. म्हणजे उजवाड शलाका दर मीटर अंतराउपरांत एक मिमी. इतलीच आसता.

**दीप्ति - तीव्रताय :** उजवाडाची दीप्ति - तीव्रताय ही प्रतिघन कोनांतल्यान वचपी शक्ती आसा. ही ल्यूमेन प्रती $मी^{२}$ स्टरेडियनांत मेजतात. ती सुर्याच्या शंबरपट चड आसता.

सगळ्या लेसर प्रकारांत क्रियाशील माध्यमाच्या रेणूंक ऊर्जा दिवन उत्तेजीत करतात. ह्या कार्याक उजवाड पंप अशें म्हण्टात. ऊर्जा पातळेंतल्या रेणूंची समष्टि - व्यस्तता घडोवन हाडप हो एक प्राथमिक आनी गरजेचो भाग जावन आसा. ही ऊर्जा खंयच्या स्वरुपांत दितात ताचेवयल्यान लेसरचे प्रकार जातात. चडकरून सगळ्या लेसर प्रकारांत माणिक लेसरप्रमाण त्रिस्तरीय ऊर्जा पातळयांचो उपेग करतात.

**प्रकार - १) माणिक लेसर :** ह्या लेसरांतल्यान भायर पडपी ६९३ ते ७०५ नॅनोमीटर (१ नॅनोमीटर = $१०^{-९}$ मी.) तरंगलांबायेचो तांबडो उजवाड सु. एक वॉट शक्तीचो आसपाक शकता. हाची कार्यक्षमता सु. १% इतली आसता. Q - स्विचींग क्रियेन (ह्या तंत्राचो उपेग करून लेसर प्रकाशांतल्या कार्यशक्तींत व्हड प्रमाणांत वाड घडोवन हाडूं येता) एक नॅनोसेकंद ($१०^{-९}$ सेकंद) कालावधींत $१०^{९}$ वॉट शक्त मेळपाक शकता. ह्या उजवाडाची सुसंगती कमी दर्जाची आसता. हो मुखेलपणान होलोग्राफींत वापरतात.

**२) इट्रियम - ॲल्मुमिनियम - गार्नेट (YAG) लेसर :** हो चार ऊर्जा पातळयो (चतुः स्तरीय) प्रकारचो आसून तातूंत निओडिमियम अपद्रव्य आशिल्ल्या इट्रियम ॲल्युमिनियम गार्नेट ($Y_3Al_5O_{12}$ त ०.५ ते २% निओडिमियम अपद्रव्य) हाचो क्रियाशील माध्यम म्हणून उपेग करतात.

**३) निओडिमियम कंवची लेसर :** निओडिमियम अपद्रव्य आशिल्ल्या कारणान ह्या प्रकारांतूय YAG लेसर इतल्याच तरंगलांबायेचो उजवाड मेळटा. हातूंत बेरियम, क्राउन ह्या प्रकाराचें कंवचेंत २ ते ६% निओडिमियम ($Nd^{3}$+) अपद्रव्य घातिल्लें आसता.

**४) व्हायब्रोनिक लेसर :** ह्या प्रकाराच्या लेसरांत ऊर्जा दिवन माध्यमांतले रेणू उद्दीपित केल्यार मेळपी ऊर्जा लेसर फोटॉन (उजवाडकण) आनी फोनॉन (माध्यम द्रव्याच्या स्फटिक जालकाच्या कंपनगतीचे ऊर्जाकण) हांच्यांत विभागता. ताकालागून प्रदान लेसर उजवाड एकाच तरंगलांबायेच्या पट्ट्यांतली खंयचीय तरंगलांबाय मूल्य धारण करपाक शकता.

**५) वर्णकेंद्र लेसर :** ह्या मातशा वेगळया तरेच्या व्हायब्रोनिक लेसरांत पोटॅशियम फ्ल्युओरायडासारक्या क्षार हॅलायडाचो स्फटिक वापरतात. स्फटिकाचेर उंचेल्या ऊर्जायुक्त इलेक्ट्रॉनांचो मारो केल्यार तातूंत स्फटिकदोश निर्माण जातात. ह्या दोशांकलागून पयलींच्या नितळ पारदर्शक अशा स्फटिकांत वेगवेगळया जाग्यांत वर्णकेंद्र (घन अवस्था भौतिकी) निर्माण जातात. अशा सदोश स्फटिकाचो वापर करून मेलित स्वरुपाचो लेसर तयार करूं येता.

**६) अर्धसंवाहक संधी :** हे प्रयुक्तीचो सोद १९६२त आयबीएमचे (इंटर नॅशनल बिझिनेस मशिन्स ह्या कंपनीचे) प्रयोगशाळेंत पयलीं लागलो. अर्धसंवाहकांतलो संवाहक ऊर्जापट्ट हो पयलीं उत्तेजित अवस्थेचें निर्देशन करता अशें मानलें जाल्यार तातुंतली संयुजी ऊर्जापट्ट निम्नतम पातळी तयार जाता. P आनी N प्रकारच्या अर्धसंवाहकाचो एक संधी द्विप्रस्थ घेतलो आनी ताचेर संवाहनाक फाव अशें विद्युत् वर्चस् (विद्युत् दाब) प्रस्थापित केलो जाल्यार ताकालागून द्विप्रस्थ उत्तेजित जावन तातूंत समाष्टिव्यस्तता निर्माण जाता आनी लेसर क्रिया संपन्न जावपाक शकता.

**७) वायू लेसर :** हीलियम आनी निऑन ह्या दोन मिश्रणांचो क्रियाशील माध्यम म्हणून उपेग करून पयलो वायू लेसर अ. जाव्हन, डब्ल्यू आर् बेनेट आनी डी. आर् हेरियट हांणी १९६० वर्सा पयलीं तयार केलो.

**८) द्रव लेसर :** विरल मृत्तिका ग्राभ संयुगां (ग्राभण) हीं खर अनुस्फुरक (एकाद्र्या ऊर्जास्त्रोतान उद्दीपीत केल्याउपरांत उजवाडाचें उत्सर्जन करपी) आसतात. तांचेपसून ६,१३० हे तरंगलांबायेची लेसर शलाका मेळटा. हेर विरल मृत्तिका ग्राभ संयुगांपसुनूय लेसर उजवाड मेळपाक शकता.

**९) एक्सायमर लेसर :** आरगॉन, क्रिप्टॉन जांव झेनॉन ह्या वायूंच्या क्लोरायड आनी फ्ल्युओरायड ह्या संयुगांक तांचे निम्न अवस्थेपरस उत्तेजित अवस्थेंत चड थीरताय आसता. ताकालागून वेगवेगळया वायूंत विद्युत् विसर्जन करून जांव ह्या अणूंचेर इलेक्ट्रॉन

शलाकेन मारो केल्यार हीं संयुगां निर्माण जातात. ह्या खीणभंगुर रेणुंच्या समष्टींत सोंपेपणान व्यस्तता निर्माण जावन लेसर उजवाड मेळपाक शकता.

१०) **रसायनीक लेसर :** हे पद्दतींत दोन रसायनीक विक्रियाशील वायूंचें मिश्रण घेवन तातूंत ऊश्मोसर्गी (उश्णता उत्सर्जित करपी) विक्रिया (जंबुपार प्रारण जांव ऊर्जायुक्त इलेक्ट्रॉनांच्या आदारान) घडोवन हाडटात. कांय विक्रियांनी निर्माण जावपी रेणू उत्तेजित अवस्थेंतूच आसतात आनी तातूंत तापमान व्यस्तता निर्माण जावपाक शकता. अशा रेणूंपसून लेसर उजवाड मेळोवपाक येता.

११) **क्ष-किरण लेसर :** अमेरिकेंतल्या लॉरेन्स लिव्हरमोर नॅशनल लॅबोरेटरींत जी. चॅप्लिन हाणें एका ल्हान अणुबाँबाचो स्फोट करून त्यापसून मेळपी ऊर्जेचो उपेग करून क्ष-किरण लेसर (तरंगलांबाय १-४ नॅनोमीटर) मेळयल्ल्याची म्हायती सांपडल्या. हे विक्रियेचो कालखंड $१०^{-१२}$ ते $१०^{-१५}$ सेकंद इतलो आसुंये असो अदमास आसा.

१२) **गतिशील वायू लेसर :** वायूवयलो दाब अचकीत वाडयलो जाल्यार ताच्या तापमानांत खूब वाड जाता. ताकालागून तातुंतले जायते अणू वा रेणू उत्तेजित अवस्थेंत वतात. हून वायूचें एका ल्हान तोंडाचे तोटयेंतल्यान भायर प्रसरण जावपाक दिल्यार ताच्या तापमानांत एकदम घट जाता. वेगवेगळ्या उत्तेजित अवस्थांतले रेणू आपले निम्न पातळेर एकेच त्वरेन परत येनात ताकालागून कांय रेणूंत एका मर्यादित स्वरुपाच्या कालखंडाखातीर तापमान व्यस्तता मेळपाक शकता. हाचो फायदो घेवन तातूंत लेसर विक्रिया संपन्न करूं येता.

१३) **मुक्त इलेक्ट्रॉन लेसर :** उजवाडवेगाच्या तुल्यबल अशा वेगान प्रवास करपी इलेक्ट्रॉन शलाकेचेर (ऊर्जा अदमास ४३० Mev) आवर्ती चुंबकीय क्षेत्र लायल्यार तिच्या गतिमार्गांत वांकडें - तिकडें विचलन घडटा. गतिमार्गांत जावपी प्रतिप्रवेगाकलागून इलेक्ट्रॉन गतिरोधक प्रारण (ब्रेम्सस्ट्राहलुंग प्रकारचें प्रारण) उत्सर्जित करता. एके वटेन परावर्तक लावन त्या उपकरण विभागाक उजवाडीय अनुस्पंदकाचें स्वरूप दिलें जाल्यार तातूंत फुडेंफाटीं प्रवास करपी उजवाड आनी इलेक्ट्रॉन शलाका हांचेमदीं परस्पर क्रिया संपन्न जावन परिणामी उत्सर्जित उजवाड सुसंगत स्वरुपाचो जाता (तरंगलांबाय सु. ६५० मायक्रॉन आनी प्रदान ऊर्जा १० ते १०० किलोवॅट). स्टॅनफॉर्ड विद्यापिठांतल्या जे. एम्. जे. मॅडे हाणें १९७१ वर्सा मुक्त इलेक्ट्रॉन लेसरची कल्पना मांडली. खरेपणीं ह्या तत्त्वाप्रमाण कार्य करपी लेसर १९७६ वर्सा पयलीं कार्यान्वित करपांत आयलो.

१४) **रंजक लेसर :** कांय कार्बनी रंजकांचेर उजवाड घातलो जाल्यार ते ताचें शोशण करून आपाती उजवाडापरस वेगळ्या तरंगलांबायेच्या अशा अनुस्फुरक उजवाडाच्या स्वरुपांत ताचें परत उत्सर्जन करतात. उत्सर्जित उजवाड एकेच कंप्रतेचो नासून तातूंत एका कंप्रतापट्ट्यांतली कंप्रता सांपडटा. अशा रंजकाच्या उत्सर्जित उजवाडांतली एक कंप्रतेची वेंचणूक करपी येवजण वापरून त्या थाराविक कंप्रतेचो लेसर उजवाड मेळोवपाक येता.

**लेसरचे उपेग** - १) लेसर शलाकेंत प्रारण उर्जेचें खूब व्हड प्रमाणांत केंद्रीकरण जाता. हे शक्तीकलागून लेसर शलाकेच्या आदारान जड धातूच्यो कांबी कापप, वितळजोडक्रियेन दोन धातूंचे कुडके सांधप, तांकां बुराक करप सारकिल्लीं कामां सोंपेपणीं करपाक येतात. तशेंच लेसर शलाका आकारमानान ल्हान आशिल्ल्यान हीं कामां न चुकतां आनी बारीकसाणेन करपाक येतात.

२) लेसर शलाका एकवर्णीय (निश्चीत अशी एकेच तरंगलांबायेची) आशिल्ल्यान तिचो उपेग वर्णपटविज्ञान, समस्थानिक द्रव्यांचें अलगीकरण हांचेखातीर करतात.

३) लेसर शलाका एकवर्णीय, एकदिशीय आनी सुसंगत आशिल्ल्यान एकाद्र्या माध्यमांतल्यान भोंवडी केल्यार तिच्या आकारमानांत व्हडलोसो फरक पडना. ताकालागून व्हडलीं व्हडलीं अंतरां (देखीक -धर्तरी आनी चंद्रीम हांचेमदलें अंतर) लेसरान अचूकपणान मेजपाक येतात.

४) वेवसायीक उपेग : ग्राहक भांडारांत दर एक विकपाच्यो वस्तू वळखुपाखातीर कांय थारावीक उब्यो रेगो आसपी एक संकेतावली थारायल्या. लेसर शलाका आनी उजवाड द्विप्रस्थ ह्या प्रयुक्तींचो उपेग करून वस्तूंची वळख आनी मेजणी हांच्या आदारान करतात. ह्या कामाखातीर सर्वव्यापी उत्पादित वस्तू संकेतावलीचो उपेग करतात. तशेंच खंयच्याय प्रकारची संख्यात्मक म्हायती लेसरच्या आदारान एके तबकडेचेर खोदून सांठोवपाक येता.

५) होलोग्राफी : त्रिमितीय छायाचित्रण आनी म्हायती साठोवपाखातीर लेसरचो उपेग जाता. पयलो होलोग्राम १९४८ वर्सा डेनिस गॅबर हाणें लेसरच्या सोदापयलींच तयार केलो. पूण खरेपणीं लेसरचो सोद लागल्या उपरांतूच होलोग्राफीचो विकास जालो.

६) संदेशवहनः लेसर उजवाड शलाकेचो उपेग आतां म्हायती आनी संदेशवहनाखातीर व्हड प्रमाणाचेर करतात. रेडिओ वाहक तरंगाच्या आदारान जेप्रमाण श्राव्य आनी दृक म्हायतीचें रेडियोच्या आदारान संदेशवहन करतात तसोच उजवाडीय तरंगाचो वाहक म्हणून उपेग करून ताच्या आदारान कंवचेच्या तंतूंमदल्यान जायते संदेश पयसुल्ल्या अंतरामेरेन धाडपाक येतात. हे पद्दतीची संदेशवहनक्षमता खूब व्हड प्रमाणांत आसता.

७) उत्पादन क्रिया : घड्याळांतल्या भागांचें घर्शण कमी करपाखातीर जीं कृत्रिम रत्नां वापरतात तांचें वेधन लेसरच्या आदारान अचूक आनी सुबकपणान करूं येता. ह्या कामाखातीर कार्बन डाय-ऑक्सायड लेसरचो उपेग जाता. संगणक नियंत्रित कार्बन डाय -

ऑक्सायड लेसरचो उपेग करून कारखान्यांत धातू जांव हेर वस्तूंपसून जाय आशिल्ल्या खास आकाराचे कुडके कापून तयार करपाची क्रिया स्वयंचलितपणान करूं येता. तशेंच जाय तशीं संकलित इलेक्ट्रॉनीय मंडलां कापून काडपाखातीर जांव शिंवपाखातीर कपडो वेवस्थीत कापपाखातीरूय लेसरचो उपेग करतात.

८) वितळजोडकाम : कार्बन डाय - ऑक्सायड संतत तरंग १,००० ते १५,००० वॅट लेसरच्या आदारान वेगवेगळया धातूंत वितळ - जोडकाम करपाक येता.

९) वैजकीय सुविधा : वैजकीय शस्त्रक्रियेंत लेसरचो उपेग करून शरीर - चिकित्सा घेवं येता. कापिल्ले कातीचेर शलाकेकलागून निर्माण जाल्ल्या उच्च तापमानाकलागून वांगडा दाहकर्मय जाता आशिल्ल्यान लेसर शलाकेच्या आदारान केल्ली शस्त्रक्रिया रगताबगर जाता. आतकड्यांचेर निर्माण जाल्ल्या घायांतल्यान रगतस्त्रव थांबोवपाखातीर जांव दोळयांतलें दृक्पटल विस्थापित जाल्यार तें वितळजोड क्रियेच्या आदारान साधून परत मूळ जाग्यार बसोवपाखातीर जांव काळजाचे शिरेंत आडखळ निर्माण जावन ती बंद जाल्यार ते आडखळीक बुराक मारपाखातीर लेसर शलाका वापरतात. तशेंच ज्या जाग्यार शस्त्रक्रियेखातीर सुरी सोंपेपणी पावपाक शकना अशा जाग्यार लेसर शलाका ऊर्जा तंतूच्या आदारान व्हरतात. व्हायरस संसर्गाकलागून योनिमार्गांत निर्माण जाल्ल्या चामखिळासारक्या वाडीचें निर्मूलन करपाखातीर जांव गर्भाशयापसून जावपी अपसामान्य रगतस्त्राव थांबोवपाखातीर लेसर शलाकेचो उपेग जाता. शरीरांत ज्या जाग्यार उदक नाका आसता ताच्या उपायाखातीर कार्बन डायऑक्सायड लेसर शलाका चड प्रभावी थारता. शरीरांतल्या हेर नाजूक जाग्यांनी वापरपाखातीर एक्सायमर लेसर शलाका उपेगी थारता. आरगॉन लेसरच्या आदारान कोलॅजेनांत (हाडां तशेंच कात आनी स्नायुरज्जू हांच्यांतल्या तंतुमय प्रथिनांत) उजवाडरसायनीक विक्रिया घडोवन हाडूं येता. आरगॉन पंप रंजक लेसरच्या आदारान रगतदात्याच्या रगतांतलें परिसर्प, यकृत शोथ - ब, श्वेतकोशिकार्बुद ह्या रोगांचे व्हायरस नश्ट करपाक येतात.

१०) लश्करी उपेग : एकाद्र्या जाग्यापसून दुसऱ्या खंयच्याय थारायल्ल्या जाग्याचें अंतर थारावपाखातीर लेसरचो उपेग जाता. लक्ष्य वेधन करपाखातीरूय लेसर शलाका वापरतात. अमेरिकेच्या 'स्मार्ट बाँबा' चें YAG प्रकारच्या लेसरच्या आदारान मार्गदर्शन केल्ल्यान तो नेम धरिल्ल्या जाग्याचेर अचूकपणान पडटा. क्षेपणास्त्रां, नाळ आनी रायफलीसारकीं ल्हान शस्त्रां हांचेखातीरूय लेसरचो उपेग करतात. नेम धरिल्ल्या जाग्याचें अचूक अंतर समजुपाखातीर लेसर परासमापकाचो वापर करूं येता. विखारी वायूचें अस्तित्व वळखुपाखातीर लेसर शलाकेचो उपेग करपी संवेदनशील उपकरण तयार केलां. रसायनीक ऊर्जेन उत्तेजित केल्ल्या लेसरच्या आदारान रणगाडे आनी विमानविरोधी क्षेपणास्त्रांचो नाश करूं येता. खर लेसर उजवाड क्षेपणास्त्राचेर पडल्यार उश्णतेकलागून ताच्या भायल्या आवरणाचो नाश जाता, जांव ताच्या भितरल्या इलेक्ट्रॉनीय नियंत्रण प्रणालीचो नाश जावन तें सकयल पडटा.

११) अणुकेंद्रीय संघटन विक्रिया : घनिकृत ड्यूटेरियम वा ट्रिटियम वा ड्यूटेरियमयुक्त पॉलिएथिलिनाची सु. ०.२ मिमी.ची गुळी तयार करून तिचेर एकाच वेळार जायत्या उच्च ऊर्जा लेसर उजवाडाचो झोत सोडटकच थंय व्हडा प्रमाणांत उश्णता निर्माण जावन थंयच्या पदार्थांचें बाश्पीभवन जाता आनी तातुंतल्यान सामक्या उण्या काळांत एके उच्च तापमानाची खर अशी गुटिका निर्माण जाता.

१२) लेसर उजवाड रसायनशास्त्र : ह्या भौतिकीय रसायनशास्त्राच्या फांट्यांत लेसर उजवाडान रसायनीक विक्रिया प्रवर्तित, रुपांतरित वा संनियंत्रित करपांत येवन तांच्या गतिविज्ञानाचो अभ्यास करपाक येता. एक - आघाती रसायनीक विक्रियेंतल्या मदल्या टप्प्याचो सोद घेवपाखातीर लेसर किरणांचो बरो उपेग जाता. हे पद्धतींत खाशेल्या तरंगलांबायेच्या लेसर किरणांचो वापर करून एके खाशेले अवस्थेंत आसपी रेणू निर्माण करून तांच्या आदारान रसायनीक विक्रियेचो अदमास घेवं येता. तशेंच सामान्य तापमानाक ज्यो विक्रिया घडून येनात त्यो लेसरच्या आदारान घडोवन हाडूं येतात. $१०^{-१२}$ सेकंदाच्या खर लेसर स्पंदांच्या आदारान बेगीन घडपी भौतिक आनी रसायनीक विक्रियांचो अभ्यास करूं येता.

१३) नैकरेशीय प्रकाशकी: लेसरच्या सोदापयलीं माध्यमाचे उजवाडीय गुणधर्म हे उजवाडकिरणांच्या खरपणाचेर आदारून रावनात अशें मानताले. लेसर उजवाडाची खरता खूब चड आशिल्ल्यान तातुंतलें विद्युत् क्षेत्र $१०^{७}$ - $१०^{१०}$ वोल्ट/ सेंमी. इतकें व्हड आसता. लेसर उजवाडाच्या ह्या विद्युत् क्षेत्राचो द्रव्य माध्यमाचेर परिणाम जाता आनी ताकालागून खूब असाधारण अशे वेगवेगळे परिणाम घडून येतात. त्या परिणामांचें विवेचन नैकरेशीय उजवाडांत करतात.

१४) लिडार : धर्तरेच्या वातावरणांतल्या ल्हान कणांच्या अभिज्ञानाखातीर उजवाडीय रडार म्हणजे लिडार उपेगी थारता. हातूंत लेसर उजवाडाचे स्पंद धाडटात आनी वातावरणांतल्या कणांकलागून प्रकीर्णीत जाल्लो उजवाड ओडून घेता. ह्या पार्श्वप्रकीर्णीत लेसर स्पंदाच्या खरतायेवयल्यान आनी प्रेशीत स्पंद आनी ग्रहण केल्लो स्पंद हातुंतल्या कालखंडावयल्यान वायुकलिल (द्रव आनी घन सामक्या सूक्ष्म कणांचें वायूतलें निलंबन), वातावरणांतल्या वेगवेगळया वायूंची दाटसाण आनी अंतर, वातावरणांतली धुसरता आनी दृश्यमानता हांचेविशीं म्हायती मेळपाक शकता.

फुडाराक लागींलागीं सगळया मळांचेर लेसरचो वापर गरजेचो थारपाची शक्यता आसा. विज्ञानांतल्या जायत्या संशोधन विभागांखातीर लेसर तंत्र उपेगी थारता. आयन रोपण केल्ल्यान

अर्धसंवाहक स्फटिकाची विचलित जाल्ली संरचणूक लेसर किरणांच्या आदारान ताच्या भायल्या भागाचें अनुशीतन केल्यार (तापोवन मागीर ल्हव ल्हव थंड केल्यार) परत पूर्णावस्थेंत व्हरपाक येतात. लेसरच्या आदारान रामन परिणामाचो अभ्यास केल्यार ताचेपसून जालकाच्या कंपनक्रियेविशींची म्हत्वाची म्हायती मेळपाक शकता. संगणकशास्त्रांत व्हडल्या व्हडल्या दुर्मिळ ग्रंथांचें मुद्रण आनी पुनर्लेखन करपाखातीर लेसर तबकडेचो उपेग जाता. त्याचप्रमाण सिनेमा, वेगवेगळयो कार्यावळी, संगीत रचना हांचीय नोंदणी आनी पुनर्वाचन करूं येता. इलेक्ट्रॉनीय भागांच्या जोडणीखातीर आनी तातुंतले दोश सोडून काडपाखातीर लेसर डाखकाम ही नवी पद्दत आयल्या. हे पद्दतीन मुद्रित मंडलांची जोडणी करतात आनी तातुंतले दोशूय सोडून काडूं येतात.

लेसर उजवाड पदार्थाचेर घातलो जाल्यार ताचेपसून जो खास असो उजवाड मेळटा ताचो अभ्यास करून पदार्थांतलीं घटकद्रव्यां, विक्षोभित अवस्थेंतली अणुरेणूंची सापेक्ष समष्टी ह्या गजालींचो सोद घेवं येता. लेसर उजवाडाच्या झोताच्या आदारान आयनद्रायूचें निदानूय करपाक येता.

लेसरच्या आदारान लांबायेचें अचूक मापन करूं येता. तशेंच पृश्ठभागाची सपाटीय अचूकपणान तपासपाक येता. विमान, उपगिरो, चंद्रीम सारकिल्ल्या चल पदार्थांचो मार्ग, तांची सदची स्थिती आनी वेग हांचोय अभ्यास लेसरच्या आदारान करपाक येता. अमेरिकेन लेजिऑस (LAGEOS, लेसर जिओडायनॅमिक सॅटेलायट) हो उपगिरो ५८०० किमी. उंचायेर सोडिल्लो आसून तो लेसर स्पंद धर्तरेवयल्यान परावर्तित करता. ताच्या आदारान धर्तरेच्या भायल्या भागाचें चलन अभ्यासपाक येता आनी ताकालागून भूंयकांप केन्ना जातलो हें सांगपाक आदार जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**लैंगिक वर्तन :** मनीस तशेंच हेर जिवांच्या शारिरीक आनी मनोसामाजीक प्रेरणेंतल्यान घडिल्लें वर्तन. नदर, वास, स्पर्श, उतर सारकिल्ल्या बाह्य घटक आनी विचार, कल्पना, इत्सा सारकिल्ले मानसिक घटक अशा दोनय घटकांच्या प्रभावाखाल कामप्रेरणा निर्माण जाता.

ऋग्वेदांतल्या नारदीय सुक्तांत हे 'कामस्तदग्रे समवर्तताधि' म्हणून मनीस कुळयेचे कामप्रेरणेक पयली सुवात दिल्या. पुर्विल्ल्या भारतांत आदिवासी जमातींत शिश्नदेवाची पुजा प्रचलित आशिल्ली. फुडें आर्यांनी शिवलिंग पुजा आचरणांत हाडली. आर्यधर्मांत जे चार पुरषार्थ सांगल्यात तातूंत काम हो एक आसा. सिग्मंड फ्रॉयडच्या मनोविश्लेशण सिध्दांता प्रमाण काम प्रेरणा ही मानवाची केंद्रिय जिवन प्रेरणा आसा. काम ह्या विशयाचेर सद्या उपलब्ध आशिल्ल्या वात्सायनाचो कामशास्त्र वा कामसूत्र हो ग्रंथ इ. स. तिसऱ्या - चवथ्या शतमानांत बरयल्लो. ताच्याय आदीं उद्दालकयूत श्वेतकेतू, बाभ्रव्य, पांचाल, दत्तकाचार्य, चारायण, सुवर्णनाभ, घोटकमुख, गोनर्दीय, गोणिकापुत्र कुचुमार ह्या पंडितांनी ह्या विशयांचेर ग्रंथ बरयल्ले. पूण हे ग्रंथ आज उपलब्ध नात. वात्सायनाच्या कामशास्त्रा उपरांतय ह्या विशयाचेर जायते ग्रंथ बरयल्ले. तातुंतले कांय उल्लेख करपासारके अशे - (१) कोक्कोक : रतिरहस्य वा कोकशास्त्र (बाराव्या शतमानाआदीं), (२) यशोधर : कामशास्त्रावयली जयमंगला ही टीका (तेरावें शतमान), (३) ज्योतिरीश्वर कवी शेखर : पंचसायक (तेरावें वा चवदावें शतमान), (४) कल्याणमल्ल : अनंगरंग (सोळावें शतमान), (५) जयदेव रतिमंजिरी ह्या ग्रंथांनी कामवासनेच्यो तृप्ती करपाच्यो पद्दती, तांचीं साधनां वशीकरण, प्रियानुनय, शिश्नोन्धान, लिंगवृध्दी आदीखातीर येवजुपाचे गुपीत उपाय, युक्त्यो, वेश्येच्या वागणुकीचे नेम अशा तरेच्या प्रस्नांक म्हत्व दिल्लें आसा. तशेंच कामजिणेची म्हायतीय खुबशी कल्पनाप्रधान आसा.

अस्तंत्या देशांत ह्या विशयावेल्या संशोधनाक एकोणिसाव्या शतमानाच्या निमाणें सुरवात जाली. मॅग्नस हर्शफेल्ड, हॅवलॉक एलिस, सिग्मंड फ्रॉयड, विल्हेल्म स्टेकेल आदी अभ्यासकांनी कामजिवीताचो विज्ञानीक अभ्यास सुरू केलो. अमेरिकेंत विसाव्या शतमानांत आर्. अल. डिकिन्सन, के. बी. डेव्हिस, अल्. एम. टर्मन, ए. सी. किन्से, डब्ल्यू. एच्. मास्टर्स आनी व्ही. ई. जॉन्सन आदी वैज्ञानिकांनी ह्या विशयाचें शास्त्रीय संशोधन केलें. मास्टर्स आनी जॉन्सन हांच्या मानवी संभोग क्रियेच्या प्रयोगशालेय अभ्यासाचेर ह्यूमन सेक्शुअल रिस्पॉन्स हो ग्रंथ आदारिल्लो आसा.

विसाव्या शतमानांत महाराष्ट्रांत डॉ. र. धों. कर्वे हाणें कामजिविताचेर म्हायती दिवपी 'आधुनिक कामशास्त्र' नांवाचें पुस्तक बरयलां. तशेंच ह्या विशयावयलें समाजस्वास्थ्य नांवाचें नेमाळेंय तो चलयतालो.

कामप्रेरणा ही चडकरून प्राण्यांचे शरिरस्थितीचेर मुखेलपणान लैंगिक ग्रंथीच्या अंतःस्त्रावाचेर आनी रसायनाचेर आदारून आसता. हीं रसायनां रक्तप्रवाहांतल्यान प्राण्याच्या मेंदवामेरेन पावलीं म्हण्टकच तो प्राणी लैंगिक वर्तनाक प्रवृत्त जाता आनी सर्वसादारणपणान सजातीय भिन्न लिंगीय प्राण्याचेर आकर्शीत जावन संभोगक्रियेंत परिणत जावपी प्रक्रिया ताचे कडच्यान घडटात. लैंगिक रसायनाक लागून जुवान अवस्थेंत प्रवेश करपी नर - मादीचे कुडींत जायते आंतरीक आनी बाह्य बदल घडून येतात. नरांमदीं आवाज फुटप, ओंठार, दाडयेर, छातयेर तशें हेर भागांचेर केंस येवप, जाल्यार मादयेंत स्तनांची वाड जावप आदी बाह्य लैंगिक लक्षणां प्रकट जातात. तशेंच नरांमदीं बीजग्रंथींची वाड पुराय जावन विर्योत्पादन आनी मादयेमदीं रजोदर्शन वा मासिक पाळी सुरू जाता. जुवान नर - मादयेच्या मनांत नव्यो इत्सा - आकांक्षा जाग्यो जातात. ताका नवी अस्वस्थता जाणवता

आनी एकामेकांविशीं आकर्शणय दिसूंक लागता. मनशांच्या लैंगिक वर्तनाचेर ह्या रसायनांभायर, मनशाचेर ल्हानपणापसून घडपी संस्कार, ताणें आत्मसात केल्ल्या लैंगिक जिणेविशींच्यो पारंपारीक कल्पना, ताचें शिक्षण, व्हड व्यक्तीच्या वर्तनाचे आदर्श, कामोद्दीपक साहित्याचें वाचन, सिनेमा आदींचो प्रभाव पडटा.

दर एका मनशाचे जिणेंत कामप्रेरणेची खरसाण पिरायेच्या वेगवेगळया अवस्थांत वेगवेगळया प्रमाणांत जाणवता. सान अवस्थेंत ही प्रेरणा सौम्य प्रमाणांत आसता आनी सादारणपणान तरणे पिरायेचे अवस्थेंत तिची खरसाण वाडूंक लागता. प्रौढावस्थेंत तिचो प्रभाव सगळयांत चड आसता.

प्रजोत्पादनाचे नदरेन नर आनी मादी हांचो संभोग हो लैंगिक कामशमनाचो एकसुरो प्राकृत मार्ग आसा. अशा संभोगाक लागुनच प्रजोत्पादन शक्य जाता. मनीस तशेंच सगळया प्राण्यांचे बाबतींत हें खरें आसलें तरी सद्या शास्त्रज्ञांनी कृत्रिम वीर्यसेचन (आर्टिफिशीअल इन्सेमिनेशन) शक्य केलां आनी ताचो गायो, म्हशी आदी पाळीव जनावरांचेर सर्रास उपेग करून संभोगाबगर संतत निर्माण करपाचें शास्त्र सोदून काडलां. सुप्रजनन शास्त्राचे नदरेन तशेंच संभोगांत येवपी कांय शारिरीक अडचणींचेर मात करपाच्या हेतुनय मनशाचेर ताचो उपेग करपाक सुरवात जाल्ली आसा. धर्मीक सांप्रदायांचे नैतिकतेचे नदरेन ताका विरोध जाला. तशेंच ताचो दुरुपयोग जावपाचो भंय आसा अशें दिसूंक लागलां. तेरवातीर मैथुनाबगर प्रजोत्पादनाचें आनी कामशमनाचे हेर मार्ग असैमीक, अनैतिक आनी विकृत समजप जातात.

समागमांत शारिरीक मैथुनक्रियेवांगडा हेर गजालींकूय बरेंच म्हत्व आसता. तातूंत वांटो घेवपी दादलो - बायलेच्या शरिरावांगडा मनाचोय दाट संबंद आसता. समागमांत नर - मादयेच्या संतुश्टपणाच्या अणभवाक म्हत्व उरता. पूण दादल्यांच्या संदर्भांत विर्योत्सर्जनाच्या रुपान दिसपी लक्षणासारखें बाह्य शारिरीक लक्षण बायलांचे बाबतींत दिसना. बायलमनीस ही तृप्ती मानसिक तरेनच अणभवूंक शकता. मनान आनी कुडीन निरोगी दांपत्य संभोगावरवीं लैंगिक तृप्ती भोगपाक पावता. पूण निराशा, अतिचिंताग्रस्तता, जीणेच्या हेर मळांवयली विफलता आदी कारणांक लागून संभोग क्षमतेचेर विपरीत परिणाम जावं येता. लैंगिक संभोग हो उच्चतम तृप्तीचो अणभव जाल्ल्यान लैंगिक स्वैराचाराक तेवरवीं प्रोत्साहन मेळपाची शक्तताय निर्माण जाता. स्वैराचार हो समाजाचे मांडणेक मारक आशिल्ल्यान कामर्वतनाचेर नियंत्रण दवरपाखातीर दर एका समाजांत कायदे केल्ले आसात. नितीनेम आनी रुढी घालून दिल्ल्यो आसात. तशेंच वेगवेगळया समाजांत कामवर्तनाविशीं वेगवेगळे विधीनिशेध रूढ आसात.

दादले बायलां मदल्या लैंगिक संबंदाचें नियंत्रण दवरपाखातीर सगळेकडेन लग्नाची पद्दत प्रचलित आसा. दुसऱ्या मनशाकडे बळजबरेन संभोग करप हें सगळेकडेन निशिध्द आसून कायद्यान तो शिक्षापात्र गुन्यांव थारता. तशेंच एकाच घराण्यांतलें लागसारचें रगताचें नातें आशिल्ल्या मनशांमदलें लग्न वा लैंगिक संबंद नैतिकतेचे नदरेन निशिध्द मानिल्लो आसा. हो कायदो तोडप म्हळयार एक गंभीर नैतिक गुन्यांव करप अशें समजतात. पूण खंयच्या खंयच्या आप्तांमदलो लैंगिक संबंद निशिध्द आसा हातूंत मात वेगवेगळया समाजांत वेगवेगळयो रुढी मेळटात. चडशा सगळया धर्मांत आनी संस्कृतींत आवय - पूत, बापूय - धूव, भाव - भयण हांचे मदलो लैंगिक संबंद निशिध्द मानिल्लो आसा. पूण किरिस्तांव आनी मुसलमान समाजांत बापोल भाव - भयणांच्या लग्नाक मान्यताय आसा. हिंदू समाजांत ती ना. जायत्या आदिवासी जमातींमदीं एके टोळयेंतल्या चल्याचें वा चलयेचें लग्न त्याच टोळयेंतल्या चली वा चल्या वांगडा जावंक शकना. हिंदू धर्मांतल्या कांय जातींत एका गोत्रांत लग्न करप निशिध्द मानलां.

सगळेकडे लग्नसंबंदाक वा लग्नाउपरांतच्या लैंगिक संबंदाक सामाजिक मान्यताय आसा. पूण लग्नाबगर वा लग्नापयलीं लैंगिक संबंदाविशीं मतभेद आसात. कांय आदिवासी समाजांत चले चलयांक तरनाटे अवस्थेंत एकठांय वावुरपाक मेकळीक आसता. तांच्या लैंगिक वेव्हाराचेर कसलेंच बंधन नासता. गांवचे शीमेवयले व्हड झोपडेंत (गोठूल) सगळे चले चलयो एकठांय रावतात. पूण एक फावट विधीवत लग्न जालें म्हण्टकच बायल - घोवाच्या समागमाचेर आनी उलोवपा चलपाचेर खर निर्बंध आसतात. हेर जायत्या असंस्कृत समाजांतय लग्नाआदले संबंद गैर मानीनात. पूण लग्न जातकच मात घोव - बायलां भायर हेर कोणाय कडेकन संबंद अनैतिक मानतात. लागीं लागीं सगळयाच समाजांत लग्न संबंद धार्मिक विधीवरवीं करप जाता. अशा विधीबगर कायद्याचे नोंदणे वरवीं केल्ल्या संबंदाचो लोक आता स्विकार करूंक लागल्यात. चडशा सगळया लोकांत समलिंगी मनशाकडे लैंगिक संबंद (Homo Sexuality) दवरप म्हळयार धर्माच्या, नीतीच्या आनी समाजीक योग्यतायेचे नदरेन अयोग्य समजतात. वेशागमनांतल्यान जाल्ल्या लैंगिक संबंदांविशींय समाजांत मतभेद आसात. कांय समाजांत ताका नियंत्रीत रुपांत मान्यताय मेळळया. कांय समाजांत मेळूंकना. तर कांय समाजाचे ताचेर कसलेच निर्बंध नात.

जायत्या देशांतल्या पुर्विल्ल्या साहित्यांत दादले बायलेच्या समागमाचो आनंद द्विगुणीत करपाक संभोगासना आनी शरिराच्यो हालचाली आदींचें मार्गदर्शन मेळटा. भारतांत वात्स्यायनाचें कामसूत्र, कोक्कोचें रतिरहस्य आदीं ग्रंथांत कामसुखाचे वृध्दीखातीर संभोगासना, आलिंगन प्रकार आदी जायते तरेच्यो सुचवण्यो आसात. खजुराहो, मोदेरा, कोनारक, वेरूळ हांगाच्या देवळांत वेगवेगळीं संभोगासनां दाखोवपी शिल्पां आसात. सोळाव्या शतमानांतलो चित्रकार ज्यूलो

रोमानो हाचीं तेचपरी हेर जायत्या चित्रकारांचीं मैथुनाच्या आसनाचीं चित्रां इटलींत आनी ग्रिसांत उपलब्ध आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**लैंगिक विकृती :** अनफाटी लैंगिक कृती (Sexual deviation). हातूंत प्रतिलैंगिकता (Trans Sexuality), आंतर लैंगिकता (Inter Sexuality), समलिंगी कामुकता (Homo Sexuality), अगम्य आप्त संभोग (Insest), वस्तुकामुकता (fatisism), बालकामुकता (Pedofelia), वेशांतरण (Transvetism), लिंग प्रदर्शन प्रवृत्ती (Exibitionism), लिंग दर्शन सुखकामुकता (Virism), परपिडन रती (Sadism), स्वपिडन रती (Mesocism), लिंग स्पर्श कामुकता (frotonism) आदी विकृतींचो आस्पाव जाता.

ह्या विकृतींकडे पळोवपाची आधुनिक काळाची भुमिका आधुनिक काळाच्या समाजीक आनी मनोविज्ञानीक संदर्भांत पुरातन भुमिकेपरस समंजस आशिल्ल्यान अशा अपाकृतीक लैंगिक कृतींक सरसकट लैंगिक विकृती म्हणनासतना ताका लैंगिक अपमार्गण ही संज्ञा दिवप जाल्या.

समाजीक, कुटुंबीक वातावरण, नैतिकता, संगत, लैंगिक कृतीबद्दल अज्ञान, अपसमज, भयगंड, एकलेंपण, स्वताचे कामूक शक्तीबद्दल न्यूनगंड हीं अपमार्गणाचीं कांय कारणां आसात.

लैंगिक जिवीताचेर नैतिकतेचे नदरेन समाजीक बंधनां घालप गरजेचें जालें. हाका लागून लैंगिक जिवीत आनी ताच्या वेव्हारा संबंदीं गुप्तताय पाळपाची वृत्ती निर्माण जाली. गुप्तताय, समाजीक बंधनाचें दडपण हाकालागून लैंगिक कृती संबंदीं गैरसमजुती निर्माण जाल्यो. ह्या गैर समजुतींतल्यान मानसिक तशेंच शारिरीक विकृतीक सुवात मेळळी.

**लैंगिक शिक्षण :** लैंगिक विकृती पयस करून निरामय अशा लैंगिक जिवनाचो आस्वाद घेवपाचें शिक्षण लैंगिक शिक्षणावरवीं साध्य करूं येता, अशी लैंगिक शिक्षण समर्थकाची अपेक्षा आसा. हें लैंगिक शिक्षण मनीस प्रजननक्षम जावचे आदी म्हणजेच चलयांक पिरायेच्या बाराव्या वर्सा आनी चल्यांक पिरायेच्या चवदाव्या वर्सा दिवप योग्य समजतात. लैंगिक शिक्षणांत बायल दादल्यांच्या जननेंद्रियांची रचना, तांचें कार्य, प्रजनन यंत्रणा तेचवांगडा जननेंद्रियाची नितळसाण, तांचे रोग तशेंच लैंगिक व्यवहाराविशींचीं धर्मीक आनी समाजीक नीतिबंधनां आदींची म्हायती आस्पावची. हातुंतली खंयची म्हायती वयाचे खंयचे अवस्थेंत आनी कशे तरेन दिवंची तें बालविकास तज्ञांच्या आनी शिक्षणतज्ञांच्या सल्ल्यान थारावंचें अशें जाणकारांचें मत आसा.

सुरवेक म्हळयार मुळावें गिन्यान आवय बापाय वरवीं दिवं येता. भुरग्याक मुळावी आरोग्याविशीं जतनाय, जननेंद्रियाची नितळसाण हे विशींची म्हायती देरवींसयत दिवं येता. भुरग्याक सोप्यो आनी आरोग्यकारक अशो शारिरीक संवयी लावप आनी तेखातीर फाव ती मनोवृत्ती तयार करपाचें काम तांणी करूं येता. तेखातीर खासा आवय बापायक तशा प्रकारचें सुयोजित लैंगिक शिक्षणाच्या कार्यक्रमांचें मार्गदर्शन मेळूंक जाय. प्रजोत्पादन यंत्रणेचें सामान्य गिन्यान दिवप, लैंगिक विशयाविशीं वैज्ञानीक मनोवृत्ती तयार करप, लैंगिकतेविशींच्या समाजीक अडचणींक तोंड दिवपाखातीर फाव ती फाटभूंय तयार करपाकडेन लक्ष दिवप, बायल दादल्याच्या शरिरांतली प्रजोत्पादन यंत्रणा, गर्भधारणा, गर्भविकास, बाळंटेरपण आदींची म्हायती थोडक्यांत पूण भुरग्याक समजता, पचता अशे भाशेंत आनी खंयचोच आडपड्डो दवरीनासतना स्पश्ट वर्णन करपाची तजवीज शाळेंत जावं येता.

माध्यमिक आनी उच्च शाळांत लैंगिक शिक्षणावरवीं प्रजनन, मासिक ऋतुचक्र, जननेंद्रियाचें आरोग्य, तांचे रोग (गुप्त रोग, एड्स), लैंगिक विकृती हांचेर केंद्रित दवरूं येता. लैंगिक शिक्षणाचो जो भाग वर्गांतल्या विशयांत आस्पाव करूंक मेळना तेखातीर तज्ञांचीं भासाभासात्मक उलोवपां आयोजीत करपाची वेवस्था करूं येता. लैंगिकता ही जिणेंतली एक प्रबळ आनी विधायक शक्ती आनी प्रेरणा आसा. विद्यार्थ्यांक तांच्यांतलें जें बरें, निकोप आनी निरोगी आसा ताचें रसग्रहण करूंक शिकोवप, तशेंच लैंगिक अपमार्गण, स्वैराचार हांची अनिश्टता आनी तें टाळपाखातीर गरज आशिल्ली आरोग्यकारक अशी खर मनोवृत्ती हांचो तांच्यांत विकास जावंक दिवप हो ह्या शिक्षणाफाटलो उद्देश दवरचो. लैंगिक शिक्षणाचो धर्म आनी नीतीकडे दाट संबंद उरता ताकालागून लैंगिक शिक्षणांत धर्मीक नीतिनेमाची म्हायती दिवप गरजेचें. कांय अस्तंत्या देशांत लैंगिक शिक्षणाचे शालेय परियेवजणेंत धर्मगुरूंचो वा धर्मोपदेशकांचो आदार घेवप जाता. भारतांतय ही नदर लैंगिक शिक्षणाविशीचें सर्वमान्य धोरण थारायता आसतना आनी त्या शिक्षणाची परियेवजण करता आसतना दवरूंक जाय.

लैंगिक शिक्षणांत म्हत्वाची गजाल म्हळयार भुरगीं आनी तांच्या संगोपन संस्करणाक जापसालदार आशिल्ले आवयबापूय. हेर प्रौढ लोक आनी शिक्षक हांचेकडल्यान मानवी लैंगिकतेचेर उक्तेपणान भासाभास जावंक जाय. लैंगिक शिक्षणाचे वर्ग बालवर्गासावन कॉलेजमेरेनच्या सगळया स्थरांचेर आयोजीत करूंक जाय आनी तातूंत शिक्षण घेवप्यांक कसलेंच दडपण आसूंक फावना. ह्या कार्यक्रमांतले शिक्षक आपआपल्या विशयांत तरबेज आसूंक जाय आनी अशा कामाक समाजाचो खर तेंको आसूंक जाय.

कांय जाणांच्या मतान लैंगिक शिक्षणान विद्यार्थ्यांत ह्या विशयांत सुमाराभायर आवड निर्माण जावन तातूंत तांचे लैंगिक वृत्तीक बादा येवंक शकता. पूण मानसशास्त्रज्ञाच्या मतान जननेंद्रियांविशीं अज्ञान, गैरसमज, खर लैंगिक प्रवृत्तीक वश करून गवसणी घालपाची

धडपड हाकालागून वायट मनोवृत्ती निर्माण जावपाचो चड भंय आसा. ताका लागून त्या मनशाचें आनी पर्यायान समाजाच्या मानसिक आरोग्याक बादा येता. देखून लैंगिक शिक्षण दिवन भुरग्याचे तेविशीं गैरसमज पयस करप सैमनिर्मित वस्तुस्थितीची फावत्या शब्दांत वळख करून दिवप आनी विवेकान वायट वृत्ती ताब्यांत दवरपाक मदत करप हें चड म्हत्वाचें.

कांय आदिवासी जातींत गोठुल, (घोंटुल, गिटिओरा) आदी नांवांनी अस्तित्वांत आशिल्लीं युवाघरां लैंगिक शिक्षणाचे नदरेन म्हत्वाचीं आसात. ह्या युवाघरांत थाराविक पिरायेउपरांतचीं आंकवार चले चलयो रातचीं रावपाक वतात. हांगा लैंगिक जिणेची आनी फुडारपणाची कला शिकूंक मेळटा.

लैंगिक शिक्षणाचे कल्पनेचो उगम जावन बरोच काळ लोटला. पूण आजूनय फावतशी हे कल्पनेक चालना मेळूंक ना. धर्मीक, संस्कृतीक, सामाजिक वेवस्थेंतल्या पारंपारीक विचारांत आमुलाग्र बदल घडोवन आयलेबगर, लैंगिक शिक्षण हो क्रांतीकारी विचार समाजमनांत मूळ धरूंक पावचोना. तेखातीर लैंगिक शिक्षणाची पूर्वतयारी हो मतपरिवर्तनाचो कार्यक्रम तितक्याच नेटान फुडें वचूंक जाय.

- कों. वि. सं. मं.

**लोककथा :** एक लोकसाहित्य प्रकार. संस्कृतीक आशय आशिल्ल्यो आनी एके पिळगेसावन दुसरे पिळगेकडेन मौखिक परंपरेन जतन केल्ल्यो कथा. लोककथा ह्यो पारंपारीक आसल्यो तरी त्यो एका प्रदेशांतल्यान दुसऱ्या प्रदेशांत, तशेंच एके संस्कृतीसावन दुसरे संस्कृतींत सहज रिगपाक शकतात. पूण अशें करतना ते लोककथेच्या रुपांत थोडोभोव बदल जावपाक शकता. सद्या चडशो लोककथा लिखीत रुपांत ग्रंथबध्द जाल्ल्यो आसात. लोककथांचो उगम केन्ना आनी खंय जाल्लो हें निश्चितपणान सांगप खूब कठीण.

भारतांतल्या कथांची परंपरा खूब पोरनी. वैदिक वाङ्मयांत कथांचो साबारकडेन उल्लेख आयला. उपरांत पुराणवाङ्मयांत तांचो आंकडो खूब वाडलो आनी तांच्यांत विकासूय जाल्लो. सुरवेक वररुचीन प्राकृत भाशेंत आनी उपरांत गुणाढ्यान पैशाची प्राकृत भाशेंत लोककथांचो व्हड संग्रह रचपाचो वावर केलो. बृहत्कथा ह्या नांवान अखिल भारतीय स्वरुपाचो हो ग्रंथ प्रसिद्द आसा.

लोककथांचे निर्मितीविशीं विंगड विंगड मतां चालंत आसात. मानवी अस्तित्वाचे सुरवेचे अवस्थेंत मनशान सैमांतल्यो ज्यो भोवरुपी घडामोडी अणभवल्यो आनी तांचे जे अर्थ लावप जाले तातुंतल्यानूच सैमिकरुपकवादी कथांचो जल्म जालो अशें मानतात. उपरांत सैमाविशींच्या गिन्यानांत थोडी थोडी भर पडत रावून 'देव' कल्पनेचो जल्म जालो, तशें मुळाव्या सैमिकविशींच्या कथांनी देवाविशींच्यो कल्पना आनी तांचेवयली श्रध्दा हांची भर पडली. तातुंतल्यानूच मिथ्यकथा वा दैवकथांचो जल्म जालो. सुरवेच्यो वा मुळाव्यो कथा ह्यो मुखेलपणान सैमिक घटनांचेरूच आदारल्यात. उपरांत धर्मसंबध्द विधींखातीर विधीकथा अस्तित्वांत आयल्यो. ह्यो कथा मुखेलपणान विधिंचें स्पश्टीकरण करतात.

भुगोलीक नदरेन पयसुल्ल्या प्रदेशांतल्या कथांभितरूय साबार खेप सारकेपण दिसता. हाचें कारण म्हळयार भोंवत्यो जमाती आनी वेपारी हांचे वांगडा ह्यो कथा मुळावे सुवातीवयल्यान वेगवेगळया प्रदेशांनी वा देशांनी पातळत गेल्यो. त्या त्या समाजाप्रमाण तांकां मात्शें दुसरें रूप प्राप्त जालें, तांकां फांटे फुटले. अशे रितीन तांचीं खूब रुपां अस्तित्वांत येवन त्यो एके पिळगेसावन दुसरे पिळगेकडेन मौखीक परंपरेन फाटलीं हजार वर्सां चलत आयल्यात. कांय लोककथांक काळाउपरांत एक खाशेलें वाङ्मयीन रुपूय मेळळें. भारतांत सूत, मागध, चारण, भाट, नट, नर्तक हांणी परंपरेन साबार कथागितां रचलीं, जतन केलीं आनी तांचो प्रसारूय केलो. बृहत्कथा, पंचतंत्र, कथासरित्सागर, हितोपदेश, वेताळपंचविशी, शुकबहात्तरी, जातककथा, जैन चूर्णी ह्योय लोककथाच आसात. तांचें खाशेलेंपण म्हळयार त्यो लोकभाशेंत रचल्यांत.

भारतीय लोककथांच्या संकलनांचे कांय रितसर यत्न जाल्यात. मेरी फ्रीअर हिणें 'ओल्ड डेक्कन डेज' हें लोककथांचें संकलन १८६८त उजवाडायलें. 'इंडियन फॅरी टेल्स' हें अयोध्या प्रांतांतल्या लोककथांचें संकलन १८८०त मिस् स्टोक्स हिणें केलें. सर रिचर्ड टेंपल हाणें लोककथांच्या संग्रहाचें शास्त्रोक्त वर्गीकरण करपाचे रितसर यत्न सगळयांत पयलीं केले. 'लेजंड्स ऑफ पंजाब' (१८८३) हें ताचें संकलन प्रसिद्द आसा. एका तेंपार फकत जिबेर घोळपी आनी जिबेवयल्यान कानार पडपी लोककथांचें लिखीत रुपांत संकलन, लागीं लागीं सगळयांच भाशांनी जावंक लागलां.

- कों. वि. सं. मं.

**लोककला :** जनसमुदायाकडल्यान उत्स्फूर्त असो जाल्लो कलाआविश्कार. पारंपारीक पद्दतीन अवगत जाल्लो, गांवगिऱ्या घाटाचो तसो थाटाचो कला प्रकार. लोककला हो लोकांचे दीसपट्टे जिणेचोच एक भाग. लोकजिणेंत गितां, नाच, नाट्य, हस्तकला आनी हेर सगळे आविश्कार दीसपट्टे गरजेचो एक वांटो म्हूण सहज घडून वतात. कसल्या ना कसल्या कामाकडेन वा कृतीकडेन तांचो संबंद उरता.

होवयो, धालो, फुगडी, बालगितां, वेगवेगळया सणापरबे वेळार म्हणपाचीं गितां वा नाच, वेगवेगळया विधींवेळार काडपाचीं चित्रां वा शिल्पां, रांगोळी, मुर्तीकरण, वेगवेगळया सणां वेळार करपी वेगवेगळे खाद्य पदार्थ, ह्यो सगळयो कला पारंपारीक लोकजिणेचो

एक अविभाज्य भाग. ह्यो कला सादर करतना तांच्या मनांत कलात्मक सौंदर्यनिर्मितीचें भान जागृतपणान नासता. त्या वेळार तांच्या मनांत एक कर्तव्याची भावना जागृत जाता. हें कर्तव्य करता आसतना आपले आपुणूच सौंदर्यनिर्मिती जाता.



धातूचेर केल्लें नक्षीकाम

प्रयोगात्म लोककलांचो आविश्कार मुखेलपणान भौसाकडल्यानूच जाता. कांय वेळार तो वैयक्तिक स्वरुपाचो आसता. पूण ताचेफाटली भावना ही भौशिक मनाच्या आविश्काराचीच आसता. हाका लागून सगळ्या लोकांभितर सहजतायेन आयिल्लो परंपरेचो भाग दर पिळगेंत घोळटा. अशे रितीन सगळी लोककला एके पिळगेसावन दुसरे पिळगेक आपशींच मेळटा. फुडें दर नवे पिळगे उपरांत तातूंत थोडोभोव बदलूय घडून येता. हाका लागून लोककलांभितर परंपरा आनी परिवर्तन हांचो मेळ एकसारको जायत आसता. प्राकृतीक मुक्तताय आनी उत्स्फूर्तता तशेंच लवचिकपण हें लोककलेचें खाशेलेपण. हांकां लागून लोककलेचो आविश्कार सदांच ताजो आनी जिवो उरता. सादर करता आसतना उत्स्फूर्तपणान उसळून आयिल्लो आविश्कार हो लोककलांचो जीव आसता. देखुनूच लोककलेचो दर एक आविश्कार दरखेपे नवोसो भासता. लोककला सादर करता आसतना लोक परंपरेचीं बारीक सारीक बंधनां मानीनात. देखून लोककला ही एके पिळगेसावन दुसरे पिळगेकडेन आसा त्या स्वरुपांत वा थोडोसो बदल जावन चलत आयल्या. कलेक जेन्ना जाणपूर्वक बंधनांची गणितमानी वृत्ती येता तेन्ना ते लोककलेक नागरी स्वरूप मेळटा. आदीम यातुश्रध्द अवस्थेंतले यातुविधी हें सगळ्या लोककलांचें मूळ. ते अवस्थेंत चोंब्यांतल्या व्यक्तींचीं आंगां वेगवेगळीं आसलीं तरी चोंब्यांच्या मनांत यात्वात्मक भावनांचो उमाळो आयिल्ल्यान ते मनान एक आसतात. हालींसरा साबार लोककलांतल्यान उपासना आनी श्रध्दा हांचो भाग ना जाला. पूण तातुंतलो उत्स्फूर्त आविश्कार मात आजून तिगून उरला.

प्रयोगात्मक लोककला आनी हस्तकला हे लोककलांचे दोन मुखेल प्रकार. नाच, नाट्य, संगीत आविश्कारांचो प्रयोगात्मक लोककलेंत, जाल्यार चित्रां, शिल्प हांचो हस्तकलेंत आस्पाव जाता.

उद्योगिकीकरण, आधुनिक्किरण हांकां लागून सद्या आदिवासी आनी गांवगिन्या वाठारांतले जिणेंत खूब बदल जाल्यात. हाका लागून तांचे कलेंतलें मूळ रूप आनी ताचें म्हत्वूय उणें जायत चल्लां. पूण स्वातंत्र्या उपरांत भारत सरकारान लोककला राखून दवरपाखातीर कांय खाशेल्यो येवजण्यो आंखल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**लोकगितां** : (पळेयात साहित्य).

**लोकनाच** : जनसामान्यांत प्रचलीत आशिल्लो परंपरागत नाचाचो प्रकार. जानपदाच्यो सभावीक वृत्ती, खाशेल्यो आवडीनिवडी, समाजीक - भुगोलीक परिस्थिती, धर्मीक रीतीरिवाज, लोकांच्यो सदच्या क्रियांतल्यो हालचाली हांचें पडबींब लोकनाचांतल्यान पळोवपाक मेळटा.

नाचाची कला ही खूब पुर्विल्ली आसा. आदिमानवापसुनूच तिची सुरवात जाता. आदिमानवान पयलीं हावभाव करूनूच आपल्यो भावना व्यक्त केल्यो. ह्या हावभावांकूच मागीर लयबध्द स्वरूप आयलें. तातुंतल्यानूच आवेग उत्पन्न जालो. हो उत्स्फूर्त आवेग इल्लो इल्लो कमी जावन तातूंत सुसूत्रपण येवपाक लागलें, ताका खाशेले हेतू येवन दसले आनी अशेतरेन लोक नाच अस्तित्वांत आयले.

फकत लयबध्द आनी आवेगात्मक हालचाल आनी परिश्कृत नेमबध्द शास्त्रीय नृत्यां ह्या दोगांच्याय मदीं लोकनाच येतात. लोकनाचांत केन्नाय उद्देशहीन अशी लयबध्द हालचाल सांपडटा. तशेंच एकाद्र्या प्रसंगाक शास्त्रीय नाचांतलो सुसूत्रपणाय सांपडटा. हे नाच सादारणपणान सामूहिक स्वरुपांत सादर जातात. तातूंत चडकरून तालवाद्यांची, तशेंच लोकसंगीताची साथ आसता. सभावीक प्रकारचें हें नाचप आसून भडक आनी ओडलायण्या रंगांचें अधिक्य नाचप्यांचे वेशभूशेंत दिसता.

सादेंपण हो लोक नाचाचो आत्मो. तातुंतल्यो हालचाली उत्स्फूर्त आनी सहजसभावीक आसतात. लोकनाच हे सैमीक वातावरणांत म्हणजेच उक्त्या माळरानांचेर, गांवाभायर, देवळाच्या मंडपांत वा आवारांत करतात. ही रंगमंचीय कला न्हय. लोकनाच

सरळ, सुबोध आनी सर्वसुलभ आसतात. हे तीनूय गूण तांच्या वेवसायिक स्वरुपांतूय आसतात. लोकनाचाचें एक खाशेलपण म्हणजे ताचें शिक्षण' कोणाक घेवंचें पडना. पळोवनूच ते आपसूक येतात. पयलींचे संस्कार आनी फाव अशा वातावरणाकलागून भुरग्यांकूय सोंपेपणी लोकनाचाचें शिक्षण मेळटा. लोकनाचाचे जायते आविश्कार प्रकार जायत्या देशांतल्या वेगवेगळया संस्कृतींत काळाच्या ओघांत निर्माण जायत गेले. धर्मविधियुक्त नाच, प्राणिनाच, शिकारनाच, झूजनाच, कार्यसंबध्द वेवसायीक नाच, समाजीक नाच, प्रणयाराधनपर युग्मनाच अशे तांचे जायते प्रकार जातात.

**धर्मविधियुक्त नाच :** मानवइतिहासाच्या सगळया अवस्थांनी धर्मविधीचो एक भाग म्हणून समूहनाचाचे जायते प्रकार निर्माण जाले. चडकरून आदिम, तशेंच आदिवासी नाचांचो जल्म आदिम यातुश्रध्देंतल्या विधींतल्यान, धर्मीक उत्सव - भक्तींतल्यान तशेंच सैमीक गुपीत अज्ञात शक्तींचेर ताबो मेळोवपाचे प्रेरणेंतल्यान जाल्ल्याचो दिसता. मृतात्मे, भुतांखेतां सारकिल्ल्या पैशाचिक शक्तींक वश करून घेवप वा तांकां काबूंत हाडप अशो प्रेरणाय ताचेफाटल्यान आशिल्ल्यो. ताकालागून हे नाच जोशभरीत झपाटिल्ले अवस्थेंत करताले. कांय लोकनाच रोगनिवारणाच्या उद्देशानूय करताले. आदिवासींच्यो श्रध्दा आनी समजुती हांचें पडबिंबूय लोकनाचांतल्यो हालचाली आनी आकृतिबंध हातूंत उदेल्लें दिसता. फुडें शेतीसंस्कृतींत धनधान्य समृध्दी, सुफलता, मृगयेंतलें यश, झुजांतलें जिखप अशा जायत्या प्रेरणांनी, उद्दिश्टांनी लोकनाच करपाक लागले. व्यक्तिजीवनांतले जल्म, लग्न, मरण अशा घटनाप्रसंगांनी करतात ते खास अशे प्रसंगोचित लोकनाच आशिल्ले. तशेंच कांय पुर्विल्ल्या समाजांतूय प्रणयाराधनपर लोकनाचूय प्रचलित आशिल्ले. कालांतरान लोकनाचांफाटलो मूळ धर्मीक हेतू फाटीं पडलो आनी ते फकत लोकरिझवणेखातीर करपाक लागले. भारतांतली रासक्रिडा आनी रासनाच हे उत्कट शृंगार आनी भक्ती हांची एक देख आसा.

**प्राणिनाच :** आदिमानव सवणीं, जनावरां, नुस्तें हांकां पूज्य मानून तांची उपासना करतालो. तांच्या हालचालींचें अनुकरण केल्यार तांची गती, चपळताय, सामर्थ्य, धूर्तता सारकिल्ले गूण आत्मसात करपाक येतले आनी गरज पडटा तेन्ना तांची शिकारूय करपाक येतली अशी ताची श्रध्दा आशिल्ली. ही श्रध्दाय मूळ यातुश्रध्दाच आशिल्ली. ह्या उद्दिश्टांतल्यान जायते वैचित्र्यपूर्ण प्राणिनाच जल्माक आयले. तातूंत आदिमानव सवणीं जनावरांच्या वेगवेगळया हालचालींचें अनुकरण करीत नाच करतालें. जायते प्राणिनाच मागीर लोकरंगभूमीचे आविश्कार म्हणून विंकसीत जाले.

**शिकारनाच :** प्राणिनाचांचेंच विकसित रूप शिकारनाचांत दिसता. अपेक्षित शिकार मेळची म्हणून शिकारिचे आभिचारीक नाच चडकरून तयार जालें.

**झूजनाच :** आदिवासी टोळयो सुपीक भूप्रदेशांचेर ताबो मेळोवपाखातीर परस्पर झुजां करपाक लागल्यो, तेन्नापसुनूच आदिवासी जमातींत झूजनाच प्रचलित जाले. आपले जमातीक झुजाक प्रवृत्त करपाखातीर अशे नाच करताले. आजुनूय कांय जमातींनी अशे नाच करतात.

**वेवसायीक लोकनाच :** मनीस न्हंयेचे देगेर सुपीक वाठारांत वसती करून रावपाक लागलो तेन्ना चडकरून शेतवड करप आनी जनावरां पोसप हे दोन ताचे मुखेल वेवसाय आशिल्ले. ह्या वेवसाय विशिश्ट कामांचें, तातुंतल्या हालचालींचें आनी सदच्या कामांचें खास अशें शैलीबध्द पडबींब तांच्या नाचांतूय परगटलें. नाच हो आदिमानवाचे नदरेन यातुविधिचो एक प्रकार आशिल्लो. धनधान्यसमृध्दी जावंची, पिकां भरपूर येवंचीं ह्या उद्दिश्टांनी हे नाच करताले. नाच केल्ल्यान समृध्दी आनी सुबत्ता येतली अशी ताचेफाटली श्रध्दा आशिल्ली. न्हंयेचे देगेर वसणूक करपी आदिवासी जमातींतूय कोळीनाच करताले. तातूंत व्हडें वल्होवपाचे क्रियेकूय नाचाचें रूप दिल्लें दिसता. अशेतरेन वेगवेगळया वेवसायांतल्या क्रियांक आनी हालचालींक नाचाचें रूप दिवन सादर केल्ले लोकनाच जगभर सगळेकडेन रूढ आसात. भारतांत सगळेकडेन शेतकरी नाच आनी दर्यादिगेर कोळीनाच जातात.

**प्रणयाराधनपर आनी सामाजिक नाच :** हे नाच पुर्विल्ल्या सुफलता विधिंतल्यान उत्क्रांत जाले. आपलें आनी जमातीचें वंशसातत्य तिगचें हेरखातीर दर एका दादल्याक बऱ्या जोडीदाराची गरज दिसताली. तातुंतल्यानूच बायलेच्या अनुयायाची ओड निर्माण जाली. दादले नाचपी नाचांत वेगवेगळयो युक्त्यो वापरून बायलांचेर छाप पाडपाचो, तिका वश करपाचो यत्न करताले. हाचेउरफाटें स्पेनासारक्या कांय देशांनी बायल नाचपी आपल्या सोबीतकायेचें प्रदर्शन करून दादल्याक भुलोवपाचो यत्न करताली. तशेंच वेगवेगळया देशांच्या राश्ट्रीय परंपरांतल्यान निर्माण जाल्ले समाजीक लोकनाच कालांतरान बहुरंगी आनी बहुढंगी अशा दालनांतर्गत युग्मनाचांत विकसित जाले.

**भारतांतले कांय नामनेचे लोकनाच -**

**काश्मीर :** आयज हांगा जे लोकनाच प्रचलीत आसात ते मुसलमानी पद्दतीचे आसात. १) बच्चनग्म : हो सगळयांत नामनेचो लोकनाच. कापणीच्या दिसांनी गांवागांवांनी आनी वाड्या वाड्यांनी तरनाटे भुरगे बायलांचो भेस करून नाचतात. ह्या नाचांत फारसी जांव हिंदुस्थानी भाशेंतलीं पदां, नग्मे जांव गझल गायतात. पदांक संतूर, सारंगी, ढोलकें ह्या वाद्यांची साथ आसता. २) डुम्हल : थंयचे वातल जातींत हो नाच प्रचलीत आसा. हो नाच फकत दादल्यांचो. रंगीबेरंगी भेस करून, तकलेर शंकूभशेन तोपी घालून आनी झेंडो घेवन हो नाच करतात. नाचाक धोलाची साथ आसता. ३) पाथेर : भांड लोकांचो हो नाच. हो नाच फकत दादलेच करतात.

**बिहार :** हांगाचे लोकनाच चडकरून धर्मिक स्वरुपाचे

आनी कृष्णलीलेकडेन संबंदीत आसतात. रामलीला, कीर्तनिया, कुंजवासी, भगता, विदापत, बरवो, व्रजवासी, वंशीलीला, कदंबलीला, नागलीला हीं तांचीं नांवां जावन आसात. १) सरहुल : हो उराँव लोकांचो नामनेचो नाच. सरहुल नांवाच्या गिमांत येवपी सणाच्या वेळार हो नाच करतात. हो संमिश्र नाच आसून तो जायतीं सप्तकां चलता. २) जदुर : हो नाच संथाळ लोक वैशाख म्हयन्यांत करतात. हातूंत दादले आनी बायलोय वांटो घेतात. दुसऱ्या दिसा नाचपी गांवांत वचून सगळयांच्या घरामुखार फुलां लायतात. ३) ईदैल : हो रांची जिल्ह्यांतल्या खाडिया जातीचो नाच. लहमुआ आनी खोयल हीं तांचींच रुपां. हातूंत बायलो आनी दादले एकामेकांचो हात धरून थेक्याचेर नाचतात. शेवटाक उडयो मारून हो नाच सोंपयतात. शियाच्या दिसांनी हो नाच जाता.

**आसाम :** हांगाच्या नामा लोकांत जायते लोकनाच प्रचलीत आसात. १) बिहू : हो नाच बिहू लोकोत्सवांत करतात. हाचे जायते प्रकारूय आसात. २) खुल्लाम : हो मिझो आदिवासींचो नाच. हो संमिश्र नाच आसून यजमानाच्या घरा उत्सवाच्यावेळार हाचो प्रयोग करतात. ३) सुत्तलाम : हो मिझो आनी कुकी लोकांचो नाच. हाचेखातीर कोंड्याचो चवकोन तयार करतात. नाचपी ह्या चवकोनाच्या भायर - भितर नाचतात. ह्या नाचांत कसरतीचेय प्रयोग जातात. ह्या नाचाक धोलाची साथ आसता.

**बंगाल :** ह्या प्रदेशांत झूजनाच, कीर्तननाच आनी धर्मीक नाच बऱ्याच प्रमाणांत आसता. १) काठी : हो नाच हातांत ल्हान ल्हान दांडे घेवन करतात. हातुंतले पदन्यास लयबध्द आसतात. हातूंत फेर धरून नाचतात. २) बाउल : हो बैराग्यांचो नाच. हातूंत चैतन्यप्रभूंचीं पदां एकतारीचे साथीचेर गायतात. ३) झूमर बोला : हो फकत दादल्यांचो नाच. दुर्गापुजा आनी हेर उत्सवावेळार हो नाच करतात. साथीक झांज आनी मांदळ आसता. नाच करतना भजनांय म्हण्टात.

**मध्य प्रदेश :** ह्या प्रदेशांत गोंड आदिवासींची खूब वसती आसा. तांच्यांत जायते लोकनाच आसात. १) धुरिया : हो दादल्या बायलांचो नाच आसून तातूंत २० - २४ नाचपी आसतात. कापणी जाले उपरांत हो नाच जाता. हाच्यो सर्तीय जातात. मदेगाक वाजोवपी आनी ताचे भोंवतणी नाचपी अशी हाची रचना आसता. २) लक्ष्मीजागर : बस्तरींतलो हो समिश्र नाच. हातूंत झाडाखाला लक्ष्मीची मूर्ती स्थापून तिचेमुखार आंकवार चले - चलयो हो नाच करतात. ३) लांगीनाच : बंजारा लोकांचो हो नाच आसून तो वर्सांतल्या जायत्या उत्सवांच्या वेळार करतात. हो वीरनाच जावन आसा.

**ओडिसा :** ह्या प्रदेशांत बैगा, बंजारा, बिरहोर, बोंडो, संताळ, सवर सारकिल्ल्यो आदिवासी आनी वन्य जमाती वशिल्ल्यो आसून तांचे वेगवेगळे नाच प्रचलित आसात. १) पाइक : हो विरांचो झूजनाच. शेकोटे भोंवतणी हाचे प्रयोग जातात. २) जदूर : हो नाच भुइया लोक, वुरू बोंगा हे देवतेक प्रसन्न करपाखातीर करतात. ३) धुमुरा : हो वेगवेगळया विशयांतल्यान अभिव्यक्त जावपी नाच जावन आसा. धुमरा म्हणजेच ल्हान धोल घेवन वांटकुळ जांव अर्दगोल करून हो नाच करतात. एक दादलो हातांत मोरपाखां घेवन ह्या नाचाचें दिग्दर्शन करता.

**मणिपूर :** मणिपुरांत कलाकार आनी कलानिपूण लोक जायते आसात. पुर्विल्ल्या काळांत ह्या प्रदेशाचेर गंधर्वांचें वर्चस्व आशिल्लें अशो कथा आसात. ते नाच - गायन हातूंत निपूण आशिल्ल्यान मणिपुरांत तांची परंपरा सुरू जाली. १) राखाल : राखणे भुरगे ह्या नाचांतल्यान कृष्णलीला दाखयतात. २) रिआंग : रिआंग नांवाचे जातीचो हो बायल - दादल्यांचो नाच आसा. ३) लाइहरोबा : मणिपूरचो सगळयांत लोकप्रिय नाच. लाइहरोबा हो नाच मुळांत शिव - पार्वतीन केलो आनी तोच मागीर लोकांनीय उखलून धरलो अशी कथा आसा. रोंप लावचेपयलीं पंदरा दिस हो चलता. धोल, बांसरी, घंटा ह्या वाद्यांची ताका साथ आसता.

**राजस्थान :** हाच्या दोंगरी भागांत भिल्ल, मीन, बंजारा, काळवेलिया, गरासिया हे आदिवासी लोक रावतात. गैर, घूमर, नेजा, गौरी वालर, चंग, शंकरिया, गींदड, पणिहारी हे लोकनाच ह्या आदिवासींत प्रचलित आसात. १) गौरीनाच : भिल्लांचो हो नामनेचो लोकनाच. आश्विन म्हयन्यांत शिवाक प्रसन्न करपाखातीर हो नाच करतात. मांदळ आनी थाळी ह्या वाद्यांच्या तालाचेर शिव - पार्वतीच्यो वेगवेगळयो कथा ह्या नाचांत दाखयतात. तातूंत भैरव गौरीची राखण करता ही घटना मुखेल आसता. हो नाच म्हयनोभर सकाळपसून सांजमेरेन चलता. हातूंत दादलेच बायलांचीं कामां बायलांचो भेस करून करतात. २) गींदड : हो होळयेच्या वेळावयलो नाच आसा. हातूंत ल्हान ल्हान टिपऱ्यांनी ताल धरून फेराचेर नाचपाचें आसता. हो नाच फकत दादल्यांचो.

**गुजरात :** ह्या प्रदेशांतले लोकनाच समाजीक आनी धर्मीक अशा संमिश्र स्वरुपाचे आसात. खेड्यांत तशेंच शारांतूय ते चलतात. १) गरबा :- गुजराती बायलांचो हो नाच आसून गरबी हो दादल्यांचो नाच आसा. गरबा - गरबी जगदंबेचे प्रसन्नतेखातीर तो करतात. गरबा म्हणजे गर्भदिपाभोंवतणीं बायलो फेर धरून नाचतात. २) रास-दंडिया : गुजरातांतलो म्हत्वाचो लोकनाच. चडकरून दादले हो नाच करतात. केन्ना केन्नाय बायलोय हातूंत वांटो घेतात. हो नाच रासलिलेकडेन संबंदीत आसा. जायत्या उत्सवांच्या वेळार हो नाच करतात. दर एका नाचप्याच्या हातांत दोन तोणयो आसतात आनी तांच्या आदारान ते नाचाचो ताल धरतात. नाचतना पदांय म्हण्टात. ताका धोल आनी सनईची साथ आसता. ३) पांधर : सौराष्ट्रांतलो हो कोळी लोकांचो नाच. हातूंत नाचपी वांटकूळ करून बसतात, पदां

म्हण्टात आनी व्हडें ताणपाचो अभिनय करतात.

**तमिळनाडू :** भरतनाट्यम् हो तमिळनाडूचो शास्त्रीय नाच आसा. सगळ्या देवदेवतांक प्रसन्न करपाखातीर थंय जायते लोकनाच जातात. १) करगम : फुलांनी सजयल्ली पितळी कळशी तकलेर दवरून तुतारी आनी धोलाच्या तालाचेर हो नाच करतात. हातूंत नाचतना तकलेवयल्या करगमाक हात लावपाचो नासता. जांव तो सकयलूय पडपाक दिवपाचो नासता. मरिअम्मेच्या कृपाप्रसादाखातीर हाचे प्रयोग जातात. २) ओयिल आट्टम : देवळामुखार हो नाच करपाचो आसता. हातूंत दादले रंगीबेरंगी भेस करून, तशेंच एका हातांत टिपरी आनी दुसऱ्या हातांत लेंस घेवन वाटकुळे नाचतात. ३) पिन्नल आट्टम : पोंडीचेरींतले शेतकार पीक बरें येवपाखातीर हो नाच करतात. हो संमिश्र नाच आसून जायत्या वाद्यांची ताका साथ आसता.

**कर्नाटक :** हांगा समाजीक तशेंच धर्मीक नाचूय आसात. १) बालकत : डोडावा जातीचे लोक कापणेच्या वेळार आनी हेर उत्सवांच्यावेळार हो नाच करतात. नाचपी रंगीबेरंगी भेस करून तालबध्द अंगविक्षेप करीत नाचतात. २) पूजाकुलित : मरिअम्म देवीच्या वर्सुकी उत्सवांत हो नाच करतात. एक नाचपी देवीची मूर्त आपले तकलेर घेता आनी हेर लोक ताचे भोंवतणी फेर धरून नाचतात. नाचप्यांच्या हातांत रंगीत कपडो गुठळायिल्ल्यो उंच बडयो आसतात. ३) भूतनाच : हो दक्षिण कर्नाटकांत प्रचलित आसा. हो नाच विशिश्ट भूतदेवतेचो पुजारी करता.

**केरळ :** कथकळी हो केरळचो शास्त्रीय नाच. तातुंतल्यानूच थळ्ळल नांवाचो लोकनाच तयार जालो. देवळांतल्या मुखेल उत्सवांच्या वेळार हे नाच जातात. १) कोलकळी : हो मापिळ्ळा मुसलमानांचो नाच. मदेगाक एक उंच दिवली पेटत दवरून सगळेजाण हातांत दांडो घेवन तिचे भोंवतणी नाचतात. २) कळियाट्टम् : हो धर्मीक नाच आसून ताचे जायते भाग आसात. नाचपी नाचापयलीं पद म्हणून नाचाचो विशय स्पश्ट करतात आनी उपरांत संथ आनी द्रुत लयीन नाचतात. ३) वेलकळी : हो झूजनाच आसा. पद्मनाभस्वामीच्या उत्सव प्रसंगावेळार नायर लोक हो नाच करतात. हातूंत कौरव - पांडवांची लुटुपुटूची लढाय दाखयतात.

**आंध्र :** आंध्रांत लोकनाच आनी शास्त्रीय नाचूय आसात. आंध्रांत आदिवासी जमाती खूब आसात. ह्या सगळ्या जमातींनी वेगवेगळे नाच आसात. वंजारा लोकांत होळयेच्या वेळार काम आनी रती हांच्या मृण्मय मूर्तीची पुजा करून तांचे मुखार नाचपाची प्रथा आसा. १) डप्पुवाद्यम : हो आंध्रांतलो पूर्वास्पृश्य नाच. डप्पू ह्या मृदंगासारक्या वाद्याचेर ल्हान ल्हान बडयांनी ताल धरून दादले हो नाच करतात. २) माधुरी नाच : हो मंगल प्रसंगावेळार करपाचो नाच. बायल - दादले वेगवेगळे गट करून टिपऱ्यो आनी ताळयो वाजयत नाचतात. ३) मयूरनाच : हो फकत दादल्याचो नाच. नाचपी फेट्यांत मोरांचीं पाखां खोयतात आनी मोर - लांडोर हांच्या मोगाचीं पदां म्हणून नाचतात.

**उत्तर प्रदेश :** कुमाऊँत दसरो आनी उत्सव ह्या प्रसंगांवेळार छपेदी हो नाच करतात. हो नाच मोग्यांचो आसून, बायल - दादले एका हातांत हारसो आनी दुसऱ्या हातांत लेंस घेवन जोडयेन नाचतात. १) चाँचरी : हो संमिश्र नाच आसून तातूंत फेर धरून नाचतात. २) लामण : ह्या नाचांत प्रणय भावनेचो आविश्कार आनी मोगाचो उंचेलो आदर्श दाखोवपी पदां आसतात. ३) बराडी नटी : भडक भेस केल्ले दादले - बायलो वांटकूळ करून उबे रावतात आनी नाचतना सवाल - जबाब करतात.

गढवालांत झुमइलो, चौफुला, छोपती, तांदी, ठाड्या, लामण, जागर सारकिल्ले लोकनाच प्रसिद्द आसात.

**हिमाचल प्रदेश :** नाच - गाणें हें हिमाचल प्रदेशांतल्या चडशा लोकांचें मनरिझवणचें आजूनूय मुखेल साधन आसा. जात्रांनी वा खाशेलो बाजर भरता तेन्ना नाचाचें आयोजन करतात. १) संगला : हो त्या प्रदेशांतलो उल्लेखनीय नाच. बायल - दादल्यांचो हो संमिश्र नाच आसून थळावे देवतेक प्रसन्न करपाखातीर तो करतात. बाक्यांग, डाक्यांग आनी काग्यांग अशे ताचे तीन प्रकार आसतात. नाचाक थळाव्या वाद्यांची साथ आसता. २) खेडा : हो नाच कापणेच्या दिसांनी करतात. बायल - दादले गायत - गायत एकामेकाफुडें येतात, मागीर जोडयो लायतात आनी अर्दगोलांत नाचतात. ३) झांझर : चंबा जिल्ह्यांतलो हो नाच आसून तातूंत दादले आनी बायलो वांटो घेतात. पावसाळ्या उपरांत येवपी सगळ्या सणांक हो नाच करतात.

**पंजाब :** नाटी, झूमर, भांगर हे पंजाबांतले मुखेल नाच. १) नाटी : हो नाच खूब लोकप्रिय आसून तातूंत दादले नाचपी पयलीं वेगळे गतीन नाचून शेवटाक फेर धरतात. २) झूमर : हो चान्ने रातीचो नाच वाऱ्याचे झुळकीन गवांचीं शेतां धोलचीं ते पद्दतीन करतात. ह्या नाचांत दादल्यां वांगडा फकत लग्न जाल्ल्यो बायलोच भाग घेवपाक शकतात. हातूंतलें संगीत सौम्य आनी गोड आसता. ३) भांगडा : सगळ्यांत लोकप्रिय नाच. हो मूळचो शेतकारांचो जावन आसा. हालीं खंय्नच्याय खोशयेच्या प्रसंगावेळार तो करतात. धोल वाजोवपी वादक मर्दी उबे रावतात आनी भडक भेस केल्ले नाचपी ताचेभोंवतणी फेर धरून, उडयो मारून नाचतात. हाच्याभशेनच बायलांचोय एक नाच आसा ताका गिध्दा म्हण्टात.

**महाराष्ट्र :** महाराष्ट्रांतल्यो बायलो आनी चलयो नागपंचम, मंगळागौर, ज्येश्ठागौर, महालक्ष्मी ह्या व्रतोत्सवांच्या वेळार फुगडी, झिम्मा, आगोटा - पागोटा, गोफ, पिंगा, घागरी फुंकप सारकिल्ले नाच करतात. १) कोळी नाच : नारळी पुनवेक कोळी दादले आनी बायलो नाच करून हो सण मनयतात. गोकुळाश्टामीच्या काल्याच्या दिसा

कोंकणांतले दादले गोविंदा, गोविंदा म्हणून गांवभर नाचतात. धंयहांडी फोडटात आनी फोवांचो प्रसाद खातात. २) लेझिम : नाचाचो हो एक प्रकार खेडे गांवांतल्या लग्नाच्या वरातीफुडें, मिरवणुकीफुडें वा एकाद्र्या उत्सवाच्यावेळार पळोवपाक मेळटा. तरणाटे चले आनी दादले हातांत लेझिम घेवन नाचतात. ३) काठ खेळ : कोंकणांतलो हो एक नाच. ह्या नाचांत टिपरेसारक्यो बडयो वापरतात.

हाचेभायर चवथीक बायलो - दादले पदां म्हणत नाच करतात. आदिवासी जमातींत धोलाचो नाच, तंबोरिचो नाच, तारपीचो नाच हे नाच प्रचलित आसात. शिगम्याच्यावेळार कोंकणांत नकटो नाच जाता. हातूंत कोळी, कोळीण आनी नकटो अशीं तीन पात्रां आसतात.



कुणबी नाच

**गोंय :** गोंयांत हिंदू आनी किरिस्तांव हांचे वेगवेगळे लोकनाच प्रचलित आसात. हातूंत धनगर नाच, कुणबी नाच, भदप, दांडलां खेळ, धालो, मुसळां नाच, घोडेमोडणी, वीरभद्र, हाणपेट, तालगडी, तोणयां मेळ, गोफ, मोरुलें, रणमालें, दिवली नाच, फुगडी, देखणी, मांडो, दुलपद हांचो आस्पाव जाता. मुसलमान समाज उत्सवाच्यावेळार वा नवसाखातीर 'रातीब' नांवाचो एक प्रकार करतात. हातूंत नाचापरस संगीत चड आसता. कार्निवाल होय एक लोकउत्सव म्हणून साजरो जाता. 'कार्निवाल नाच' म्हणून तरणाटे चले चलयो ह्या वेळार अस्तंत्या संगिताचेर आदारीत नाच करतात. तातूंत आतां आधुनिकतेची भरसण जावन ताका आनीक व्यापक रूप प्राप्त जालां. आयच्या काळांत लोकनाचाकडेन उच्चभ्रू लोकांचें लक्ष वचून ताचेबद्दल एक ओडलायणी आवड निर्माण जाल्या. हाकाच लागून आतां लोकनाचांत उच्चभ्रू लोक वांटो घेतात देखून तांचो आविश्कार आतां आदली शीम - मेर हुंपून आधुनिक माचयेर आधुनिक साजांत जावंक लागला.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : धालो, फुगडी, कुणबी नाच, तोणयांमेळ, देखणी, मांडो, मुसळांनाच, वीरभद्र, रणमालें.

## लोकनाट्य

**लोकनाट्य :** भौसांचे विशय घेवन, भौसांच्या मनोविनोदनाखातीर, भौसांतल्या कांय कलावंतांनी सादर केल्लें सहज सुलभ नाट्य म्हळयार लोकनाट्य.

ह्या नाट्याची उत्पत्ती आदिम यातुविधींत आसा म्हणपाचें दिसून येता. हो विधी सैमसंवादी जीवसरणींतले आदिम अवस्थेंत चडकरून सृश्टींतल्या घडामोडींकडेन संबंदीत आसतालो. नवें धान्य घरांत येवपाचें वा झाडां - वाली फळपा फुलपाचो काळ मनोवपाचो आसता. मनावयले ताण सोंपिल्ल्यान मनाक एक मुक्ततायेचो आनी समाधानाचो अणभव येत आसता. अशा वेळार अनिश्टाचो नाश जावन इश्ट अशा सुगीचो समृध्दीचो काळ आयला म्हण निसर्गशक्तीविशीं आदर, कृतज्ञता आनी खोशी उक्तावपाचे भावनेंतल्यान आदिम काळांतल्या समूहान केल्ले यातुविधीच उत्सवरूप आनी नाट्यरूप जल्माक आयलें.

पुर्विल्ल्या ग्रीसांत द्राक्षाच्या सुगीच्या दिसांनी डायोनायसस ह्या मद्यदेवतेच्या धर्मीक उत्सवांत भक्तगण डिथिरॅम नांवाचीं वृध्दगीतां गायताले. तातुंतल्यान ग्रीक लोकनाट्य जल्माक आयलें. अशे तरेचीं आदलीं लोकनाट्यां थोड्या भोव फरकाचे प्रक्रियेंतल्यान जल्माक आयलीं.

युरोपांतूय धर्मीक विधिनाट्यांतल्यान उगम पाविल्ल्या लोकनाट्याची परंपरा सगळयाकूच आसा. सुरवातीचीं सगळीं नाट्यां हीं गीतनृत्य प्रधान नाट्यां आसलीं. ब्रिटीश जुंव्यामदीं 'ममिंगप्ले' वा 'सेंट जॉर्जप्ले' आनी 'प्लाउ मंडे प्ले' अशीं दोन तरेचीं आदिम लोकनाट्यां प्रचलित आसलीं. वेस्ट इंडीजांतल्या नेव्हिस आनी सेंट किट्स ह्या बेटांचेरय ह्या नाट्याचे प्रयोग जाताले. हांच्यो संहिता मौखिक परंपरेन चलत आयिल्ल्यो आसून तातूंत सुसूत्रता आसताली. तातूंत भूमिका करपी म्हळयार 'ममर्स' हे स्थानिक लोक आसताले.

उत्तर भारतांत कांय गांवांनी लग्नावेळार सोंगे नाचोवपाची प्रथा आसा. हें सोंगे म्हळयार स्वाग नांवाचें लोकनाट्य. भोजपुरी प्रदेशांतलें डोमकच्छ, माळव्यांतलें माच, उत्तर प्रदेशांतलें नौटंकी, आगऱ्याचें भगत, बंगालांतलें शैव नाटक, आसामांतलें अंकिया, गुजरातांतलें भवाई, राजस्थानांतलें ख्याल, रम्मत, गवरी लोकनाट्य, तेभायर यात्रकळी, यक्षगान, हरिकथा, बुर्रकथा, भागवत मेळ, बीथि भागवतम हे कांय दक्षिणेंतले लोकनाट्याचे प्रकार आसात. महाराष्ट्रांतले खंडोबाचे वा देवीचे जागरण वा गोंधळ हीं विधिनाट्यां आसात. तमाशा हें लौकिक (विधिमुक्त) लोकनाट्य आसा.

गोंयच्या लोकनाट्याच्या क्षेत्रांत वेगवेगळे प्रकृती घटक, लोकशैली हांचो आस्पाव आसा. तांच्या संदर्भांत चार प्रकृती सांपडटात. सृश्टी उत्पत्ती पयलीची कथा, मुखवट्यांचो उपेग आशिल्ली 'पेरणी जागर'ची प्रकृती, श्री विष्णुच्या दशावतार संकल्पनेचेर आदारिल्ली सूत्रधारादि संस्कृत नाटकाचें नातें सांगपी कालो प्रकारची प्रकृती,

रामकथा लोकशैलींतल्यान सांगपी 'रणमाले'ची प्रकृती, पुराणकथाकडे संबंद नाशिल्ल्या समाजीक विशयांतल्यान नाट्याविश्करण करपी गावड्या जागराची शैली अशो चार प्रकृती आसात. तेभायर लोकनाट्य हे व्यारवेंत न बसपी पूण आविश्करण संदर्भांत लोकशैलीकडे लागसाण सादपी, किरिस्तांव समाजांत लोकप्रिय जाल्लो खेळ तियात्र हो प्रकार आसा.

लोकनाट्यांतल्या पात्रांची न्हेसवण आनी रंगवण भडक आसता आनी उजवाडांत ती चड उठून दिसता. कांय कडेन रंगभूशे बदला मुखवटे वापरतात. तांचे रंग, आकाराचे संकेत परंपरेन थारिल्ले आसतात. सौम्य प्रकृतीच्या देवपात्राखातीर (राम, कृष्ण) निळो आनी गुलाबी रंग वापरतात. राक्षस पात्राक उग्र आनी अक्राळविक्राळ दाखयतात. रणवाद्यांचो कडकडाट, मशालीचेर राळ - गंधकासारखे ज्वालाग्राही पदार्थ उडोवन झूजा प्रसंगाची भिशणता परिणामकारक करतात. लोकनाट्याची संहिता लिखीत नाशिल्ल्यान पुराणकथेचे साचे थारिल्ले आसतात. तातुंतल्या कथासुत्रांचीं गीतां पारंपारीक पद्दतीन तीं तोंड पाठ आसतात. तीं चडकरून सूत्रधार गायता आनी बाकीचीं हेर पात्रां उत्स्फूर्तपणान समयसूचक प्रसंगाक अनुरूप अशे संवाद उलयतात.

लोकनाट्याचो प्रयोग ग्रामदेवतोत्सवांत सादारणपणान ग्रामदेवताच्या देवळामुखार मेकळे जमनीर जातात. प्रेक्षकांच्या थरापरस मातसो ऊंच असो ओटो, रंगमच म्हण वापरतात. तो चारय वटेन उकतो आसता. रातच्या वेळार जावपी लोकनाट्याच्या प्रयोगाखातीर हिलाल, मशाली वा गॅसबत्त्यो वापरून उजवाड येवजण करतात.

लोकनाट्यांत पूर्वरंग आनी उत्तर रंग अशे दोन भाग आसतात. पूर्वरंग हो धार्मिकतेकडे कमी अदीक प्रमाणांत संबंदीत आसता. भारताच्या नाट्यशास्त्रांत पुर्वरंगांतल्या नंदीविधीक नाट्यांतर्गत आनुश्ठानिक आदिम विकसित शास्त्रबध्द केल्लें रूप आसा. तातूंत अशुभ निवारपाखातीर अनिश्ठ देवता, दर्या, झाडां ह्यासारक्या निसर्गतत्त्वांखातीर प्रार्थना केल्ली आसा. लोकनाट्य आनी लोकनाट्याचें उद्दीश्ट सफल जावचें ही ते फाटली भुमिका आसा. उत्तर भाग हो मनोरंजनाक प्राधान्य दिवपी आसता.

दिसान दीस लोकनाट्यांतल्यान धार्मिकतेचो संकोच जायत आसा. कृषिनिश्ठ जीणेंतल्यान आधुनिक उद्येगिकीकरणाकडेन वळपी भारतीय जीणेंतली पारंपारीक धर्मविधियुक्त लोकनाट्यां कमी जायत चल्ल्यां. तरीय ह्या लोकनाट्यांतली उत्स्फुर्तता, आवेग, नाच, वाद्य आनी संगीत या स्थायी कलागुणांचे परंपरेच्या प्रभावाकलागून लोकनाट्याची ओड आधुनिक कलांतय तिगून उरल्या. ताच्या ह्याच गुणांक लागून एक इश्ट बदल म्हणून अभिजीत नाट्यांतूय लोकनाट्याचो आकृती बंध आनी साज आपणायल्लो दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**लोकभ्रम** : लोकमानसांतल्यो परंपरागत भ्रामक समजुती. भुतांखेतां, शकुन - अपशकुन, मंत्रतंत्र, ग्रहयोग, दैव, आंगवण ह्या गजालींचेर विस्वास दवरपी लोकां कडल्यान (शिक्षीत तशेंच अडाणी) विचित्र कल्पना समाजांत रूढ जाल्यात. तर्कचिकित्सेचो, विज्ञानाचो विचार करिनासतना वा तांकां प्रामाण्य दिना आसतना, लोकांच्या वेगवेगळया वांशिक - सांस्कृतिक पंगडांत ज्यो श्रध्दा घट जावन बसल्यात, तांकांच लोकभ्रम म्हणूं येता. तर्कशक्ती जिचेमेरेन पावंक शकना, अशी एक वा चड अदृश्य शक्ती ह्या जगाचेर नियंत्रण दवरून आसतात, तांचे शक्तीचो प्रत्यय तांचेकडल्यान वेगवेगळया प्रकारांनी मेळत आसता, ह्या गृहीत तत्त्वाचेर लोकभ्रम उबे आसतात.

आदिम अवस्थेंतलो मनीस लोकभ्रमांचे अधीन जाल्लो दिसून येता. त्या आदिम मानवसमाजाक निसर्गशक्तींचो भंय दिसतालो. कारण हे शक्तीची त्या समाजाक चड वळख नाशिल्ली. ते खातीर ही अवस्था लोकभ्रमांक पोशक अशीच आशिल्ली. आदिम अवस्थेंत निर्माण जाल्लो हो लोकभ्रम उपरांतच्या अवस्थांनीय चालूच उरला. आयच्या आधुनिक अवस्थेंतय तो पुरायपणान ना जावंकना.

सृश्टींत ज्यो वेगवेगळयो घडणुको घडत आसतात, त्यो किदयाक लागून घडटात, तांचे फाटलीं कारणां किदें, ह्या प्रस्नांचो सोद वैज्ञानिक पद्दतीन म्हळयार तर्काच्या आदारान घेवपाक मेळटकच बुध्दीचें समाधान जाता. तेचभशेन खऱ्या कारणांच्या गिन्यानाक लागून बऱ्यो गजाली कशो घडच्यो आनी वायट गजाली कशो टाळच्यो हें समजता आनी ताचो समाजाच्या हिताचे नदरेन वापर करप जाता. लोकभ्रमांतूय दोन घडणुकांतले कार्यकारणसंबंद सांगप जातात; पूण तातूंत तर्क-विसंगती आसता. देखीक- कामाखातीर घराभायर सरतना माजर आडवें गेल्यार वा विधवा बायल दिसल्यार काम जावचेंना अशें मानप, ल्हान भुरगें अकस्मात रडपाक लागल्यार वा दुयेंत पडल्यार ताका कोणाची तरी नदर लागली आसूं येता अशें समजप. कांय घडणुको शुभाशुभसूचक मानतात. फुडें घडून आयिल्ली शुभ वा अशुभ घडणूक ही पयलीं घडून आयिल्ले अमुकतमुक घडणुकेन सूचित केल्ली अशें सांगप जाता.

कल्पनाशक्तीच्या आदारान जांचें स्वरूप थारायल्लें आसता अशा शक्तींची एक अलौकिक सृश्ट विंगड विंगड धर्मांनीय निर्माण केल्ली आसता. इंद्र, वरुण, झ्यूस, अहुर मज्द हांचेसारक्यो देवदेवता तशेंच भूत, पिशाच, राक्षस, दैत्यदानव, अंग्रो - मइन्यू, सैतान, गंधर्व, यक्ष, अप्सरा हांचो तातूंत आस्पाव जाता. ह्यो शक्ती मनशाचें वायट - बरें करूंक शकतात. तेचभशेन मानवी वेव्हारांतूय त्यो हस्तक्षेप करतात, अशेंय मानतात.

पॉलिनीशिया ह्या पॅसिफिक महासागरांतल्या जुंव्यां - चोब्यांचेर रावपी पॉलिनीशिअन ह्या आदिवासी जमातींचो असो विस्वास आसा, कांय व्यक्तींभितर तशेंच कांय पदार्थांनी अतींद्रिय आनी विलक्षण

अशी शक्त आसता. हे शक्तीक 'माना' अशें नांव आसा. सूर्यमाळेंतल्या ग्रहांचो व्यक्तींचे जीणेचेर प्रभाव पडटा अशी समजूत आसा. ह्या ग्रहांक शुभग्रह, पापग्रह म्हणून वळखवतात.

अलौकिक शक्तींचें अस्तित्व आनी मानवी वेव्हारांत तांचेकडल्यान जावपी हस्तक्षेप एक फावट मान्य करतकच त्या शक्तींक तरातरांच्या उपायांनी संतुश्ट करून आपल्या वेव्हारांत मदत करपाखातीर वा आडखळी पयस करपाखातीर तांकां आवाहन करप जालें. अशा यत्नांतल्यान पुजा, निवेद्य, प्रार्थना, मंत्रतंत्र, तावीज - दोरो, जप अशा कर्मकांडांचो उदय जालो. पूण धर्मविहित पुजा, प्रार्थना, निवेद्य हे प्रकार आनी विशिश्ट उद्दिश्ट सादपा खातीर पाळटात तीं जादूसारकीं कर्मकांडां हातूंत फरक करप जाता. धर्मविहित कार्यां हीं सामान्यपणान लोकांच्या कल्याणाखातीर आसतात तर जादूसारकिलीं कर्मकांडां वैयक्तिक आनी खाजगी उद्दिश्टांखातीर आसतात. हीं सगळीं कर्मकांडां विज्ञानिक कसवटेक, प्रयोगात्मक प्रदर्शन, प्रमाणीकरण हांचे परिक्षेक, प्रयोजनाचे नदरेन तिगपाचीं नासलीं तरी लोक तीं मुकाट्यान पाळटात आनी तांचे उपयुक्ततेचेर विस्वास दवरतात. हे लोकभ्रम अशिक्षित लोकांभितर आनी अविकसित समाजांतच आसतात अशें न्हय तर विकसित राश्ट्रांनीय हेच तरेचे लोकभ्रम दिसून येतात. म्हणुनूच पुराव्यान सिध्द करपाक मेळनासलें तरी चोरून पूण मनीस तर्कविसंगत रीतीन जांचेर विस्वास दवरतात, त्यो गजाली म्हळयार लोकभ्रम, अशी लोकभ्रम हे संज्ञेची व्याख्या कांय अभ्यासकांनी केल्या.

लोकभ्रमाचे कारणमीमांसेंत मतभेद दिसून येतात. हातूंत चडकरून दोन विचार प्रवाह आसात - (१) मानसशास्त्रीय आनी (२) समाजशास्त्रीय. पयल्या विचारप्रवाहाचो प्रणेतो नामनेचो मानसशास्त्रज्ञ सिग्मंड फ्रॉयड हो आसा तर दुसऱ्या विचारप्रवाहाचो पुरस्कार ब्रॉनिस्लॉ मॅलिनोस्की ह्या मानववंशशास्त्रज्ञान केला. भुरगेपणांत अतृप्त उरिल्ल्यो, चिड्डून उडयल्ल्यो इत्सा प्रौढावस्थेंत उफाळून येतात. पूण समाजीक नीतिनेमांच्या बंधनांक लागून त्यो पुराय करप शक्य जायनात. तेचभशेन समाजांतलीं मूल्यां आनी प्रत्यक्ष वेव्हार हातूंत तफावत दिसून येता. ताका लागून व्यक्तीचें मन द्विधा जाता आनी स्वताचें उद्दिश्ट साध्य करपाखातीर जादू वा लोकभ्रमांत आस्पावपी हेर गजालींचो ती व्यक्ती आदार घेता.

भुरगेपणांत मनांत उरिल्ल्या काल्पनिक, अलौकिक शक्तीविशींच्या गजालींची परिणती उपरांतच्या काळांत लोकभ्रमांत जाता, असोय एक विचार मांडप जाता. मानसशास्त्राच्या आदारानूच मांडिल्लो पूण वर्तनवादी क्षेत्रांत मोडपी आनीक एक विचार ह्या संदर्भांत मांडप जाता, तो अभिसंहित प्रतिसाद. दोन विशिश्ट घडणुको वांगडाच घडटात वा एक पयलीं घडटकच, दुसरी रोखडीच घडटा, असो अणभव एकदां न्हय दोन फावटी येतकच, त्या दोनूय घडणुकांभितर कारण - कार्य संबंद लावप जाता. रशियन शास्त्रज्ञ पाव्हलॉव्ह हाणें कुत्र्याचेर प्रयोग करून सिध्द केल्लो हो सिध्दांत आसा. कुत्र्याक खावपाखातीर पाव दितना दोन - तीन फावटी घांट वाजयल्ल्यान कुत्र्याक घांट वाजयतकच पाव मेळटा अशें दिसलें. उपरांत ओगीच घांट वाजयल्यार लेगीत कुत्र्याच्या तोंडांतल्यान लाळ गळटाली. हाचे वयल्यान घांटिचो आवाज आनी पाव मेळप हातुंतलो तर्कविसंगत संबंद म्हळयार भ्रमूच कुत्र्याच्या मनांत तयार जालो. ह्याच सिध्दांताप्रमाण मानवी वेव्हारांतूय लोकभ्रम तयार जातात, अशें सांगतात. ह्या दोनूय मतप्रवाहांभितर वैयक्तिक मनोविश्लेशणाक चड प्राधान्य आसा. वैयक्तिक मनोव्यापारांतल्यान तयार जावपी भ्रम हे समाजीक कशे जातात, हाचेविशीं स्पश्टीकरण मेळना. तशेंच सगळींच ल्हान भुरगीं भुरगेपणांत काल्पनिक सृश्टींत वावुरतात वा अलौकिक सृश्ट आनी शक्त हांचे कल्पनेंत रमतात, वा सगळयाच व्यक्तींविशीं जोपाशिल्लीं मूल्यां आनी प्रत्यक्ष वेव्हार हांच्यांतले तफावतीचो अणभव आयल्यार कसल्या ना कसल्या प्रकारच्या लोकभ्रमाचें सातत्य वा जादू हांचो आदार घेवप गरजेचें म्हणूं येता काय किदें असो प्रस्न पडटा.

मेलानीशिया ह्या प्रशांत महासागरांतल्या जुंव्याचेर रावपी आदिवासी जमातीचे पळोवणेवयल्यान, मॅलिनोस्की हाणें, समाजाचे संस्कृतीक प्राधान्य दिवन वर्तनवादी विचार मांडला. दर्यांत पयस वचून नुस्तें धरप हो त्या लोकांचो वेवसाय. दर्यांत वचचे पयलीं वादळाचें लक्षण दिसल्यार ते कांय धर्मीक विधी करतात. वादळाचें कांयच चिन्न नासल्यार ते सरळ दर्यांत वतात. दर्यांत वतकच वादळ जालेंच जाल्यार ते थंय देवाक उलो मारीत रावनासतना सगळे तर्कीक उपाय करतात. पूण जेन्ना तर्कीक उपाय येवजनात आनी सुरक्षित जिवनाची शाश्वती नासता तेन्ना अलौकिक शक्तींक कर्मकांडांवतीन आवाहन करप जाता. तेचभशेन असुरक्षितता सवकासायेन निर्माण जाल्ली नासून अकस्मात आसा आनी रोखड्यारोखडे उपाय करपाचे आसतात, तेन्ना तर्कसंगत उपायूच करतात.

लोकभ्रमाक अणसरून एकाद्री घडणूक घडटली असो भावार्थ आसल्यार, हातांतल्यान अशोच गजाली घडटात, जाका लागून ती घडणूक घडटा. चडकरून अशुभ घडणुकांचे बाबतींत हें खरें थारता. सेल्फ फुलफिलिंग प्रफेसी ह्या नांवान हो सिध्दांत वळखवतात. परिक्षेंतल्या आसनाचो क्रमांक वा त्या क्रमांकांतल्या आंकड्यांची बेरीज विशिश्ट आसपाचेर परिक्षेंतलें यश - अपेश आदारून आशिल्ल्याचो भावार्थ बाळगुपी लोक आसात. तेखातीर आसनाचो क्रमांक अशुभ आशिल्ल्यान आपूण नापास जातलो अशें मनान घेतल्यार, काचाबूल जाल्ले अवस्थेंत अशोच चुको घडटात आनी उत्तरपत्रिका वेवस्थित बरोवप जायना. परिणाम अपेश येता. हाकालागून लोकभ्रमाक बळकटी

येता अशें म्हणप जाता. लोकभ्रमाक परंपरा म्हणुनूय समाजांत स्थान मेळ्ळां. अस्थिर, असुरक्षित आनी बेभरवंशाचे जीणेकडे समायोजन सादून मानसिक समाधान आनी सुरक्षिततायेचे भावनेखातीर लोकभ्रमाचो आदार घेवचो पडटा अशें डेव्हिड ह्यूम ह्या तत्त्वज्ञान म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**लोकर :** एक प्राणिजन्य तंतू. मेंढी, बोकडी, ऊंट, सारकिल्ल्या प्राण्यांचे कातीचेर एक विशिश्ट रचणुकेचें केंसाळ आवरण आसता. त्या आवरणापसून खास प्रक्रियेंतल्यान हो तंतू निर्माण करतात. किंमती वस्त्रांच्या वस्त्रोद्योगाखातीर लोकरीचो वापर जाता. सैमीक मोवसाण, लवचीकपण आनी आर्द्रता ओडून घेवपाची क्षमता ह्या गुणांक लागून लोकरीच्या तंतूंक वस्त्रोद्योगांत आगळें म्हत्व प्राप्त जाता. तंतूंत आशिल्ल्या कोंगरेपणाकलागून लोकरीच्या वस्त्राक मिरयो पडनात. हाचोय लोकरी वस्त्रोद्योगाक फायदो मेळटा.

**इतिहास :** मनशाक खूब पयलींसावन लोकरीच्या धाग्याची वळख आशिल्ली. इतिहास पयलींच्या काळांत मनीस मेंढराच्या कातड्यांचो वस्त्राभशेन उपेग करताले. उपरांत ताका तांच्या तंतूमय धाग्यापसून सूत आनी कपडो तयार करपाची कला अवगत जाली. त्या काळांत आदिवासी सोडून हेर सगळे लोक वस्त्राखातीर मेंढ्र्यो आनी बोकड्यो पोसताले. मेक्सिकन, इजिप्शियन, सुमेरियन आनी आर्यांपयलींचे सिंधू संस्कृतायेंत लोकरीचो उल्लेख मेळटा.

मध्य आनी अस्तंत आशियांतले हेडगे लोक वस्त्रां आनी तंबूखातीर फेल्ट ह्या लोकरीच्या कापडाचो उपेग करताले. ग्रीक लोक शिरस्त्राण लावपाच्या अस्तराखातीर आनी रोमन सैनिक उरस्त्राणाखातीर ह्या कपड्याचो उपेग करताले. फ्लॅक्स सोडल्यार कपड्याच्या रुपांत विणकाम केल्लो लोकर हो पयलो तंतू आशिल्लो आनी ताचो उपेग नवाश्मयुगांत सगळ्यांक खबर आशिल्लो. ग्रीक कवी होमर हाच्या काळापसून (इ.स.प. णववो आनी आठवो शेंकडो) ग्रीकांचो पोशाख मुखेलपणान लोकरीच्या कपड्याचो आसतालो आनी हो कपडो दर एका व्हडल्या कुटूंबांत विणटाले. रोमन लोक तांच्या प्रजासत्ताकाच्या सुरवेकसावनच (इ.स.प. सुमार ५१० पसूनच) लोकरीचे कपडे वापरताले. 'टोगा' हें नामनेचें रोमन वस्त्र थंडेखातीर जड लोकरी कपड्यापसून आनी गरमेच्या दिसांनी वापरपाखातीर हलक्या कापडापसून तयार करताले.

बाराव्या - तेराव्या शतमानांत फ्लेमिश लोकर उद्देगाची भरभराट जाली. ह्या काळांत लंडनांतय लोकरीच्या उत्पादनांत बरीच वाड जाली. पंदराव्या शतमानाच्या निमाणें ते अठराव्या शतमानाचे निमाणेंमेरेन नवें चड तलम वस्त्र प्रचारांत आयलें आनी हातान सूत कातपाच्या पारंपारीक चरख्या जाग्यार चरख्याचो आनी सुयांनी विणकाम करपाचें यंत्र हातूंत सुदारणां जाल्यो. तरी हॉलंड, स्पेन आनी फ्रांस ह्या देशांत लोकर उद्देगाची भरभराट तिगून उरिल्ली. अठराव्या शतमानाच्या निमण्या काळांतल्या तंत्रीक सोदाक लागून इंग्लंडच्या सगळ्यांत मोलादीक निर्यातीचो लोकरीचो जागो कापसान घेतलो.

वेस्ट रायडिंग हांगाच्या गिरण्यांनी १८७० - ७४ लोकरीचो उद्देग केंद्रीत जालो. कच्च्या लोकरीचो खप १८९५ - ९९ मेरेन वाडत गेलो. पूण १९६० मेरेन तो उणो जालो. विसाव्या शतमानाच्या मध्या उपरांत मानवनिर्मित तंतुंचो वापर लोकरी वांगडा भरसून करपाच्या रुपांत मागावयल्या आनी सुयांनी जावपी विणकामांत वाडलो.

अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत वसाहतकारांनी सतराव्या शतमानांत लोकर उद्देगाची स्थापणूक केली. पूण यादवी झुजाच्या निमाणेमेरेन (१८६१ - ६५) ब्रिटनांतल्यान व्हड प्रमाणांत लोकरीची आयात करताले. तेउपरांत मात अमेरिकेंतल्या लोकर उद्देगांत खुबच वाड जाली. न्यू - इंग्लंड - न्यूयॉर्क भागांत आनी दक्षिण अटलांटीक राज्यांत हो उद्देग केंद्रीत जाल्लो आसा.

**भारतीय लोकर उद्देग इतिहास :** वैदिक काळासावन भारतांत लोकरीचो वापर करताले. ऋग्वेद, मैत्रेयी संहिता, शतपथ ब्राह्मण, गुहिल सूत्र, मनुस्मृती हातूंत तशेंच पुराणांनी लोकरीचो उल्लेख आयला. कौटिलीय अर्थशास्त्रांत (इ.स.पयलीं चवथें शतमान) त्या काळचे लोक वापरताले. त्या लोकरी कपड्यांविशीं आनी तरेकवार रंगसया आशिल्ल्या सोबित शालीविशीं म्हायती दिल्ली आसा.

लोकरीचीं विणिल्लीं वस्त्रां तयार करपाची परंपरा भारतांत जायत्या शतमानासावन चालू आशिल्ली. मोगलाच्या घुरयांवेळार भारतांतले कारागीर बरे लोकरीचीं वस्त्रां, कांबळ, शाली आनी गालिचे तयार करताले.

ब्रिटीश काळांतय ह्या परंपरागत उद्देगाची भरभराट जाल्ली. १८७६ वर्सा पयली शक्ती चलीत लोकर गिरण कानपूरांत वुलन मिल्स ह्या नांवान स्थापन जाली. इ.स. १९३४ म्हळयार भारतांत १३ शक्तिचलीत गिरण्यो आशिल्ल्यो. दुसऱ्या म्हाझुजाक लागून लोकर उद्देगाक खूब उत्तेजन मेळ्ळें. भारताच्या स्वातंत्र्या उपरांत पंचवर्सुकी येवजण्यांत लोकर उद्देगाक खूब उत्तेजन दिलें.

**लोकर निर्मितीची प्रकिया :** लोकरीचे तंतू आशिल्ल्या प्राण्यांच्या कातीवयल्यान लोकर कापून घेतात. तातुंतली भरसण काडून लोकरीचे धागे निवळावन घेवपाखातीर तिची धुलाइ करतात. ही धुलाइ यंत्रिक तशीच रसायनीक प्रक्रियेवरवीं करतात. उपरांत सूत कताई वतीन लोकरीचे धागे विंचरतात. त्या धाग्यांचो विणकामावरवीं कपडो तयार करतात. हें विणकाम माग, यंत्र वा हातकाम अशे प्रक्रियेवरवीं जाता.

लोकरीक आपलो असो सैमीक रंग आसता आनी तो रंग कपड्याक येता. पूण कांय विशिश्ट धाग्यापसून तयार केल्ले लोकरीच्या

कपड्याखातीर अडेच्या रंगाची गरज लागता. तशेंच लोकांचे मागणेप्रमाण आनी फॅशनीक लागून लोकरीक अडेचो रंग दिवपाची वेवस्था जाता. लोकरीच्या तंतुच्या गुणांक लागून ताचेर कसलेय तरेचो रंग चडना. तशेंच ताच्या सुळसुळीतपणाकलागून ताचेर कृत्रीम छाप (Print) चडना. तरी आधुनिक काळांत लोकांचे आवडीप्रमाण रंग छपाईच्यो प्रक्रिया लोकरीचेर करपाची तजवीज जाल्या. लोकरीच्या कपड्याक एकसुत्रीपण हाडपाखातीर म्हळ्यार भायर भितर जाल्ले धागे एके पातळेर हाडपाखातीर रेझींग पद्दत वापरतात (तासप), तेभायर रिअरींग, क्रोपींग, पोटींग सारकिल्ल्यो यंत्रिक प्रक्रियाय लोकरीचेर करच्यो पडटात.

**कांय मुखेल देशांतल्या कच्चे लोकरीचें उत्पादन - हजार टनांत**

| देश | १९८२ - ८३ | १९८५ - ८६ | १९८८ - ८९ |
|---|---|---|---|
| अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां | ४९ | ४१ | ४१ |
| अर्जेंटिना | १६२ | १५२ | १६७ |
| ऑस्ट्रेलिया | ७०२ | ८३० | ९४२ |
| चीन | २०२ | १७८ | २२४ |
| तुर्कस्तान | ८४ | ८५ | ८५ |
| दक्षिण आफ्रिका | ११२ | ९८ | ९८ |
| न्यूझीलंड | ३७१ | ३५८ | ३३१ |
| पाकिस्तान | ४१ | ४९ | ५५ |
| फ्रांस | २५ | २४ | २३ |
| बल्गेरिया | ३५ | ३४ | ३१ |
| ब्राझील | २८ | २९ | २६ |
| ब्रिटन | ५० | ५८ | ६५ |
| भारत | ३५ | ३५ | २९ |
| मोरोक्को | २६ | ३१ | ३४ |
| यूरग्वाय | ८२ | ८७ | ८७ |
| रशिया | ४७४ | ४६८ | ४८४ |
| रूमानिया | ३९ | ४४ | ४४ |
| स्पेन | ३० | ३२ | ३४ |
| वट्ट | २,९३२ | ३,०३९ | ३,२२० |

**कांय मुखेल देशांतल्या लोकरीच्या सुताचें उत्पादन (टनांत)**

| देश | १९८४ | १९८६ | १९८८ |
|---|---|---|---|
| अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां | ५,०२,९४० | ५,३७,४०७ | - |
| इटली | ५,३६,०८४ | ५,३४,०४१ | ५,२८,२३९ |
| चेकोस्लोव्हाकिया | ५७,४६७ | ५८,६६० | ५७,६१७ |
| जपान | ३,०८,११४ | २,४२,४०६ | २,२९,९३१ |
| अस्तंत जर्मनी | १,५०,४७५ | १,३५,९३० | - |
| उदेंत जर्मनी | ७५,५०० | ७६,००० | - |
| पोलंड | ८३,३०० | ८२,५०० | ८३,८५० |
| फ्रांस | १,०६,९८३ | ९७,६४७ | ७६,०३४ |
| बल्गेरिया | ३६,४५५ | ५,२४१ | ३५,६३० |
| बेल्जियम | ९२,३९८ | ८६,२०५ | ८६,७५३ |
| ब्रिटन | १,२६,५७५ | १,४८,००९ | १,५२,०२२ |
| भारत | ८०,७६० | ७१,००० | ७७,२४० |
| मेक्सिको | ६,२१० | ३,६६० | - |
| यूगोस्लाव्हिया | ५२,१६६ | ५१,८५४ | ४९,८८९ |
| रशिया | ४,३३,००० | ४,२१,००० | - |
| रूमानिया | ७३,४०० | - | - |
| संवसारीक वट्ट | ३६,७२,५८९ | ३६,६१,७०८ | ३७,२४,३५२ |

**विणिल्ल्या लोकरीच्या कपड्याचें (ब्लँकेटासयत) कांय मुखेल देशांतलें उत्पादन (टनांत).**

| देश | १९८४ | १९८६ | १९८८ |
|---|---|---|---|
| अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां | ४२,१३८ | ३६,९४५ | ४८,०१८ |
| ऑस्ट्रिया | ४,४५९ | ४,३१६ | ३,०४५ |
| इटली | २,०३,७९८ | १,८८,७९२ | १,९२,४५७ |
| दक्षिण कोरिया | २०,६०९ | १९,५४३ | २३,१०४ |
| ग्रीस | १४,५८२ | १५,००० | १५,००० |
| जपान | १,४३,२५५ | १,३३,३६६ | १,४४,२०३ |
| अस्तंत जर्मनी | ४२,३९६ | ३०,६३० | २९,०९८ |
| दक्षिण आफ्रिका | १७,५६२ | १६,८८५ | १८,५९५ |
| नेदर्लंड्स | ३,०१७ | २,०१७ | १,६६५ |
| पुर्तुगाल | ११,८१५ | १३,६२० | - |
| बेल्जियम | ६,३०९ | ५,१९५ | २,७६७ |
| ब्रिटन | ३२,७८३ | ३९,११८ | ४०,७६१ |
| भारत | ५०,७८७ | ३५,५८४ | ४२,२६९ |
| मेक्सिको | १२,०२० | ४,११० | - |
| स्पेन | १९,३०० | २१,२०० | - |
| स्वित्झर्लंड | ५,९४९ | ५,९४५ | ४,९७० |
| हंगेरी | ११,३०९ | ९,१०० | ७,३८१ |
| संवसारीक वट्ट | ६,९८,८०२ | ६,३८,०१४ | ६,६४,८१५ |

**लोकर उद्येगाच्या वेगवेगळया क्षेत्रांतले लोकरीचो वर्सुकी खप (लक्ष किग्रॅ.त)**

| क्षेत्र | शुध्द लोकर | लोकर मिश्रण | वट्ट |
|---|---|---|---|
| विणिल्लो कपडो | १० | १३० | १४० |
| सुयांनी विणिल्लो कपडो / कपडे | १०० | १० | ११० |
| हाती निर्मीत गालिचे | १८० | - | १८० |

| | | | |
|---|---|---|---|
| यंत्रनिर्मीत गालिचे | ४० | १० | ५० |
| ब्लँकेट आनी हेर संरक्षण साहित्य | ३५ | १५ | ५० |
| हेर वस्तू (खादी कपड्यांसयत) | २० | १० | ३० |
| वट्ट | ३८५ | १७५ | ५६० |

**भारतांतल्या लोकरीच्या कपड्याचें उत्पादन -**

| कपडो प्रकार | १९७७-७८ | १९८०-८१ | १९८४-८५ | १९८७-८८ |
|---|---|---|---|---|
| लोकरी कपडो (लाख मी.) | २३० | ३३४ | ४२३ | ५६० |
| सुयांनी विणिल्लें कापड (लाख किग्रॅ.) | ५० | ११० | १३१ | १६० |
| हातीनिर्मीत गालिचे | ६० | ४० | ५५ | ५० |
| यंत्रनिर्मीत गालिचे | - | - | १६ | १४ |

**भारतांतल्यान जावपी लोकर मालाची निर्यात (किंमत कोटी रुपयांत)**

| मालाचो प्रकार | १९८०-८१ | १९८५-८६ | १९८७-८८ |
|---|---|---|---|
| लोकरी कपडो | २.५१ | ४.०० | ५.१० |
| लोकर आनी हेर तंतू मिश्रीत कपडे | ०.८४ | ०.७८ | - |
| ब्लँकेट | ४.१६ | १.९८ | २.१ |
| गालीचे | ११३.५८ | १३३.२० | २००.०० |
| शाली | ०.६६ | ०.५० | ५.१० |
| सुयांनी विणिल्ल्या कपड्याचे आनी हेर कपडे. | ४०.२४ | ५५.९३ | ६८.७५ |

- कों. वि. सं. मं.

**लोकवाद्यां :** लोकसंगितांत मुखेल करून वापरांत येवपी वाद्यां हीं लोकवाद्यां. आकारांत वेगळेंपण, आवाज आनी संख्या हे बाबतींत लोकवाद्यां हीं अभिजात संगितांतल्या वाद्यांपरस खुबच अदिक प्रमाणांत आसात. त्या त्या वाठारांतले लोकच तीं तयार करतात. हाचे उरफाटें अभिजात वाद्यां तज्ञ कारागीर तयार करतात. गायन आनी नाच हांच्या अनुषंगान लोकवाद्यां वाजोवपांत येतात. दर एका वाद्याची स्वताची मर्यादा आशिल्ल्यान त्या त्या लोकवाद्याची स्वताची शैली तयार जाता. लोकवाद्यांचीं प्रादेशिक भाशेप्रमाण वेगवेगळीं नांवां आसतात.

भारतीय वाद्यांचे बाबतींत रूढ वर्गीकरणाचो आदार घनवाद्यां -भारतांतलीं घनवाद्यां टाळ, झांज, चिपळयो, जगाट, घांट आदी. 'टाळा'त मदीं खोलगट जागो आसून झांजेचो आकार व्हड आनी मदीं कमी खोलगट भाग आसता. चपट्या गोलाकार अशा तालवाद्याचे जोडयेक 'ब्रम्हतालम्' ह्या नांवान केरळांत पळोवंक मेळटा. झांजेचो व्यास सामान्यपणान आठ ते धा इंच (सु. २० ते २५ सेंमी.) आसता. 'घुंगूर' दोरयेंत वा चामड्याच्या पट्ट्याक बांदून नाचपी नाचताना पांयांत बांदतात. नुपूर वा पैंजण हातूंत धातूचे पोकळ कडयेंत भितरले वटेन शिंशाच्यो ल्हान गुळयो दवरतात. पांयांत 'पैंजण' बांदून बायलो चलतात, तेन्ना रुणूझुणू असो आवाज येता. पंजाबांतलो 'चिमटो' ह्या वाद्यांत दोन तोकाच्यो लोखणाच्यो पट्ट्यो आसतात. एकेच वटेनचीं दोन तोकां एके लोखणी कडयेंत जोडींल्लीं आसतात. दोनूय पट्ट्यांक धातुच्यो वाटकुळयो कडयो सदळ रितीन बसयल्ल्यो आसतात. दोनूय पट्ट्यांचेर दाब दिवन लयदार आवाज काडटात. 'चिपळयो' वा 'करताल' ह्या वाद्यांत एके वटेन सपाट आनी दुसरे वटेन वाटकूळे अशे दोन घटमूट लाकडाचे कुडके बांदिल्ले आसतात. दर एक कुडको वेतभर लांब आनी दोन बोटां रूंद आसता. हे लांकडी कुडके मदल्याभागासावन दोनूय वटांनी बारीक आसून शेवटाक बोटाच्या तोंकासारके आसतात. शेवटाक घुंगूर बांदिल्ले आसतात वा लांकडी कुडक्यांक खांचो घालून तातूंत धातूच्यो पातळ चकत्यो आसतात. अस्तंत महाराष्ट्रांतल्या 'खुळखुळो' (खीळखीळो) ह्या वाद्यांत दोन लांबट चवकोनी लांकडी चौकटी दांड्याच्या दोनूय वटांनी जोडिल्ल्यो आसतात. ह्या चौकटींनी सरयांमदल्यान धातुच्यो पातळ वाटकुळयो चकत्यो घाल्ल्यो आसतात. दांडो हातांत धरून वाजयल्ल्यान लयबद्द खुळखूळ आवाज येता. 'मोरचंग' वा 'मूरसिंग' ह्या वाद्याचो दांडो घोड्याच्या नालाच्या आकाराचो आसता. जिबलेच्या आकाराच्या ल्हानशा लोखणी काम वांकडे केल्ल्या भागाच्या मदेगांत बसयल्ली आसता. ती हांगासल्यान थंय हालता. ह्या वाद्याचो प्रसार हिमाचल प्रदेश, आसाम, हैदराबाद आदी प्रदेशांतल्या आदिवासी जमातींत आसा. लांकडाच्यो सजयल्ल्यो 'दांडिया' म्हळ्यार 'टिपऱ्यो' हांकां गुजरात आनी राजस्थान हांगासल्ल्या लोकांनाचांत म्हत्वाची सुवात आसा. वेगवेगळया भाशिक नांवांनी हांचो उपेग त्या त्या प्रदेशांनी दिसून येता. 'करताल' आनी 'चिपळयो' हांचो उपेग ताल दाखोवपाक करतात. तांचे लांकडी बनावटींतूय आकाराचो वेगळेपण दिसून येता.



धातुंचीं घनवाद्यां सगळेकडेन आसात. मध्यप्रदेशांतलें 'खिरखिरी' हें वाजप लांकडाचें आनी कोंड्याचें आसता. खिळखिळयासारकें आसपी हें वाद्य रानवटी जमातीन दिसून येता. अवनध्द (भांड) वाद्यां 'मृदंगा'सारकीं वाद्यां तालावांगडा आदारस्वरूय दाखयतात, हें खाशेलपण जावन आसा. मृदंगाचे प्रादेशिक

रचणुकेप्रमाण विंगड विंगड प्रकार आसात. 'डमरू'चो मदलो भाग ल्हान आसून ताची लांबाय ६ ते १२ इंचामेरेन (सु. १५ ते ३० सेंमी.) आसता. वाजोवपाखातीर दोन दोरयो बांदिल्ल्यो आसून तांच्या तोंकाक मेण आनी माती भरसून केल्ल्यो दोन गुळयो आसतात. हातांत मदेगांत धरून तो हालयलो म्हण्टकच गुळयो तोंडावयल्या चामड्यार आपटून डुमडूम असो आवाज येता. हें वाद्य बऱ्याचश्या प्रदेशांनी घोळणुकेंत आसा. 'घुमट' हें एका तोंडाचें भांडवाद्य अस्तंत महाराष्ट्रांत दिसता. गोंयांतूय तें पळोवंक मेळटा. भाजिल्ल्या मातयेच्या घुमटाकार आयदनाचें रूंद उजवें तोंड चामड्यान रेवडांवन घेता. दुसरें अशीर तोंड मेकळें आसता. मेकळया तोंडार दावो हात दवरून ताच्या उगड - धापीन हवेचो दाब नियंत्रित करून आवाजान विविधताय निर्मितात. देवदेवतांच्या उत्सवावेळार वाजोवपी हें वाजप वाजोवन पदां म्हण्टात. 'नगारो' आनी 'दुंदुभी' हीं एका तोंडाचीं व्हड वाद्यां. व्हडलो धोल हें दोन तोंडाचें वाद्य धनगरासारक्या आदिवासी लोकांमदीं उत्सव, मिरवणूक आदी प्रसंगांचेर व्हडा नेटान वाजयतात. 'एडक्क' हें मदलो भाग ल्हान आशिल्लें केरळांतलें वाद्य आसा. पट्यान दाव्या खांद्यावयल्यान लोमकळपी हें वाद्य उजव्या हातांतले बडयेन तोंडाचेर प्रहार करून वाजयतात. दाव्या हातान मदीं बांदिल्ले पट्टेवयलो ताण कमीअदिक केल्ल्यान स्वरांचो चड उतार निर्माण जाता. कुशळ वाजोवपी ह्या वाद्यांतल्यान दोन सप्तकांमेरेन स्वर काडूंक शकता. 'तिमिल' ह्या केरळीय वाद्याचो आकार डमरू येदोच आसता. हातान तें एका तोंडार वाजयतात. 'खंजरी' हें वाद्य खूब प्रदेशांनी दिसता. ह्या वाद्यांत सु. अडेज इंच (सु. ६२५ सेंमी.) रुंदायेच्या वाटकुळया लांकडी चौकटीचे एके वटेन गाराचें चामडें ताणून बसयतात. कांय वेळार हातूंत धातुच्यो चकत्यो बसयिल्ल्यो आसतात. 'डफ' हें वाद्य वाटकुळें, ६ इंच (सुमार १५ सेंमी.) रूंदायेचे लांकडी कांबीचें आसता. ल्हान व्हड आकार आसपी हें वाद्य बऱ्याचशा जाग्यांनी दिसून येता. 'सबळ' ह्या वाद्यांत नगारो ह्या प्रकारांतलीं दोन ल्हान वाद्यां आसतात. देड वेत लांबायेच्या दोन वेताच्या बडयांनी तें वाजयतात. देवीचें गुणगान करपी गीतांनी हाचो वापर जाता. पितळी आयदनाच्या आकाराचें तासो हें वाद्य सुंवारी समुह वाद्य प्रकारांत गोंयांत वापरतात. आयदनाच्या तोंडार चामडें ताणून बसयतात. दोनय हातांनी वेताच्या आदारान तासो वाजयतात. घंटाकार वाद्यांत केरळांतलें 'मिळावु' हें वाद्य खाशेल्या प्रकारचें आसा. तें ब्रॉंझ धातूचें आसून ताचें तोंड ल्हान आसता. चामडें ताणून बसयिल्ल्या ह्या तोंडाचेर हातांनी आघात करून तें वाजयतात. राजस्थानांतलें 'पाबूजीकी माटे' ह्या वाद्यांत व्हडल्या आकाराचीं दोन वाद्यां आसतात. दोन वाजोवपी हातांनी तीं वाजयतात. 'मादल' हें दोन तोंडाचें वाद्य बरेच कडेन दिसून येता. काश्मीरांतलें 'नूट' ह्या वाद्यांत भाजिल्लें मातयेचें आयदन मांडयेर दवरून एका हातान आयदनाचेर प्रहार करून आनी दुसऱ्यान आयदनाच्या तोंडार आघात करून तें वाजयतात. सुषिरवाद्यां राजस्थान आनी पंजाब ह्या वाठारांत 'अलगोजा' हें वाद्य प्रचारांत आसा. हातूंत दोन उब्यो बासऱ्यो तोंडांत धरून एकूच वाजोवपी त्यो वाजयता. दर एके बासरेक स बुराक आसतात. जांचो उपेग करपाचो नासता, ते बुराक मेणान बंद करतात. 'सातार' ह्या वाद्यांत अशेच तरेच्यो पूण अदिक लांबायेच्यो दोन बासऱ्यो आसतात. एकेंत फकत आदारस्वर वाजता आनी दुसरेंत गीताचें वाजवप करतात. शेनायेची नळी सायलाच्या (शिसवीच्या) लांकडाची आसता. तातूंत आठ वा णव बुराक आसतात. ह्या वाद्याची जिबली खाशेल्या तणासावन तयार केल्ली आसता. हें लोकवाद्य आनी अभिजात वाद्य आसा. 'सुंद्री' ही वेतभर लांबायेची शेनाय. दक्षिणेंत हेचसारकें 'नामस्वरम्' हें वाद्य प्रसिद्द आसा. हाका बारा बुराक आसून तातुंतलें सात वाजोवपाखातीर वापरतात. 'पुंगेंत' दुदयाक वयर एक वा दोन आनी सकयल दोन नळयो जोडिल्ल्यो आसातात. एका तोंकाक फुंकपाखातीर बुराक आसता. नळयो पोकळ कोंड्याच्यो वा लांकडाच्यो आसतात. वयले नळयेंत जिबली आसता. जादूगार, गारुडी हांचेमदीं पुंगेचो प्रसार आसता. गुजरातांत आनी महाराष्ट्रांतल्या पावरी भिल्ल जमातींत पुंगी प्रकारांतलो 'तारपो' हो वाद्याचो प्रकार दिसून येता. हाचेभायर शंख, शिंग, तुतारी, आदी वाद्यांय भारतांत घोळणुकेंत दिसतात. 'कर्णी' ह्या वाद्याची पितुळची नळी लांब आसता. 'मसक' ह्या वाद्यांत चामड्याचे पिशवेक दोन नळयो जोडिल्ल्यो आसतात. तातूंत एकेक स बुराक आसून एकेरी जिबल्यो आसतात. दुसरी नळी आदारस्वर दिता.

**तंतुवाद्यां :** भारतीय तंतुवाद्यांत एकतारी, तुणतुणे, रावणहत्यो, सारंगी, सारिंदा, पेना, संतूर, नंदुण्णी आदींचो आस्पाव जाता. एकतारेन सकयल दुदी आनी वयर दांडी आसून खुंटयेक सरी बांदिल्ली आसता, तर्जनीन लयबध्द आदारस्वर दीत ती वाजयतात. महाराष्ट्रांतलें 'तुणतुणे' ह्या वाद्यांत सकयले वटेन लाकडाचे नळकांडे आसून तांचे सकयलें तोंड चामड्यान मढयल्लें आसता. नळकांड्याचे भायले वटेन सुमार दोन ते अडेच फूट (सु. ६० ते ७५ सेंमी.) लांबायेच्या कोंड्याचे दांडयेचें एक तोंक घट्ट बसयल्लें आसता. दांडयेच्या दुसऱ्या पोताक लांकडाची खुंटी आसता. नळकांड्याच्या सकयले वटेन मदल्यान सरी भायर सुटून येवचीना, अशी घेवन तिचें दुसरें पोत खुंटयेक ताणून बांदतात. हातुंतय आदारस्वर आनी लय मेळटा. 'गोपीचंद' हें वाद्य तुणतुण्यासारकें आसा. 'सारंगीचे' बरेच प्रकार आसात. हीं वाद्यां लांकडाच्या कुडक्यासावन तयार केल्लीं आसून तीं धनुकलीन वाजयतात. हातुंतली 'जोगिया सारंगी' उत्तर प्रदेश आनी हरयाणा हांगा पळोवंक मेळटा. हातूंत तीन सरयो आसून सगळयांत वयले वटेन खाचींतल्यान सरयो भीतर व्हेल्ल्यो आसतात. हो भाग वयल्यान पुराय बंद आसता. हे सारंगीच्या कांय नमुन्यांमदीं अनुध्वनीखातीर सरयो आसतात. 'सारिंदा'मदीं सकयल्या अर्ध्या भागाचे पोकळेर चामडें मढयल्लें आसता. 'चिकारा' हें वाद्य सकयल्या भागांत नासपती

फळासारकें आसून राजस्थान आनी मध्य प्रदेश हांगाच्या आदिवासींमदीं दिसून येता. राजस्थानांत ह्या वाद्याक तीन आनी मध्य प्रदेशांत दोन सरयो आसतात. 'रावणहत्यो'चो दुदी नाल्लाचे अर्दे कट्टेचो आसून ताच्या दोन सरयांमदली एक घोड्याच्या केसाची आनी दुसरी लोखणाची आसता. वाजोवपाचे धनुकलीचे दांडयेक घुंगूर बांदतात. 'पेना' हें मणीपुरांतलें वाद्य रावणहत्योसारकेंच आसता. कोंड्याचे दांडयेक जोडिल्ल्या वाकड्या लोखणाचे धनुकलीन तें वाजयतात. लोखणाचे दांडयेक वळीन घुंगूर बांदिल्ले आसतात. केरळांतल्या 'नंदुण्णी'क दोन सरयो आनी ५/६ पट्टे आसतात. मन्नन जमातींत हें वाद्य धर्मीक गीतांक साथीक घेतात. काश्मीरांतलें 'संतूर' हें मुळांतलें लोकवाद्य निमाणेकडेन वांकड्यो आसपी दोन नाजूक बड्यांनी तारांचेर आघात करून वाजयतात. सद्या ह्या वाद्याक अभिजात वाद्याचो दर्जो फावो जाला. बदलत्या काळाप्रमाण बऱ्याचशा लोक वाद्यांचो वापर अभिजात संगितांत जावंक लागिल्ल्यान तातुंतलीं कांय वाद्यां लोक वाद्यां आनी अभिजात वाद्यां म्हणून वळखतात.

- कों. वि. सं. मं.

**लोकवेद** : लोक संस्कृतीचें निरवळ मौखिक गिन्यान. मनीस कुळयेची शास्त्रीय वळख करून दिवपी लोकविज्ञान. लोकमानसाचें समग्र दर्शन घडोवपी सांस्कृतिक माध्यम.

'लोकवेद' हें उतर आयज 'शास्त्र' आनी 'सामुग्री' ह्या दोनय अर्थान वापरतात, तरी पूण लोकवेद अभ्यासपाच्या शास्त्राक 'लोकवेदशास्त्र' (Folkcloristics) हें उतरय वापरतात. एकुणिसाव्या शतमानाचे अखेरमेरेन लोकवेद हो विशय भाशाशास्त्र, मानवशास्त्र, इतिहास, समाजशास्त्र ह्या सारक्या विशयांचो पोटविभाग म्हण मानताले. विसाव्या शतमानांत ताका एक स्वतंत्र विशय म्हण मान्यताय प्राप्त जाली.

'ऑरिलिओ एस्पीनोझा' नांवाच्या एका अस्तंत्या विद्वानाच्या मताप्रमाण, ''पूर्वपरंपरेसावन मौखिक परंपरेन जें गिन्यान मनीस जातीक मेळ्ळां, जें तिणें अणभवलां, आत्मसात केलां आनी जतन करून दवल्लां, तें सगळें म्हव्यार लोकवेद''. बी. ए. बॉटकीन नांवाच्या एका अमेरिकन विद्वानान लोकवेदाची व्याख्या मांडल्या ती अशी - पुराय तरेन मौखिक परंपरेंत जियेवपी संस्कृतींत मेळटा तें सगळेंच म्हणजे लोकवेद.

लोकवेदाची व्याख्या कितें आसची हाचेर विद्वानांमदीं एकमत ना. मारियालीच हिणें संपादीत केल्ल्या 'स्टँडर्ड डिक्शनरी ऑफ फोकलोर, मायथॉलॉजी अॅण्ड लिंजड' (न्यूयॉर्क १९४९) हातूंत लोकवेदाच्यो एकवीस व्याख्या दिल्यात; तेभायर संवसारांतल्या आनीकय जायत्या विद्वानांनी केल्ल्यो व्याख्या मेळटात. दोन व्याख्यांमदीं फरक उरता आसलो तरी, अनुकरण आनी मौखिक परंपरेंतल्यान मेळपी सगळें गिन्यान म्हळयार लोकवेद ह्या एका मुद्याचेर सगळयोच व्याख्या आदारीत आसात.

लोकवेदांत एके आवयन आपल्या भुरग्याक न्हिदोवपाखातीर गायिल्ले आल्लयेचो जसो आस्पाव जाता, तसोच आपल्या आज्या - पणज्याकडल्यान देणें मेळिल्ल्या पारंपारीक धंद्याचोय आस्पाव जाता. लोकगीतां, लोक काणयो, म्हणीं - उमाणीं, लोकनाच, लोकनाटयां, शिल्पां, वीरगळां, देव - धर्म, जात्रा - उत्सव, वेवसाय - धंदो, भूत - खेत्र, चाली - रिती, विधी - संस्कार, खाण - जेवण, न्हेसण - पांगरूण, घर - दार, आयदन - खोलो, भेस - अलंकार, समज - विस्वास, जादू - फितीस, वखद - पाणी, घाडी - भगत, सिध्द - बंठ, वेवसायीक लोक खेळ - हौशी लोक खेळ अशा सगळयाच लोकवेव्हारांचो आनी आविश्कारांचो लोकवेदांत आस्पाव जाता.

पुर्विल्ल्या लोकवेद संग्रहकारांनी आनी अभ्यासकांनी लोकवेदांतल्या 'जिबेवयलें (तोंडी) साहित्य' ह्या भागाचेर म्हणजे, लोकगीतां, लोक काणयो, म्हणी, उमाणीं हांचेरूच आपलें लक्ष केंद्रीत केल्लें आनी लोकवेद म्हळयार तितलेंच असो तांचेमदीं समज आशिल्लो. आयज मात नवे विचारसरणेचे विद्वान लोकवेदासंबंदीं विचार करतना पुराय लोकजीणच विचारांत घेतात. कारण लोकवेदाचो अभ्यास हो लोकमानसाच्या आविश्काराचो अभ्यास आशिल्ल्यान, लोकमानस ज्या वेगवेगळया माध्यमांतल्यान व्यक्त जाता त्या सगळयांचोच विचार केल्याबगर तो परिपूर्ण जायना. देखूनच लोकमानसाच्या शब्दबध्द केल्ल्या आविश्कारावांगडा लोकरुढी, लोकविस्वास, विधी - रितींचोय अभ्यास करप गरजेचें थारता.

कोंकणींतलें 'लोकवेद' हें उतर इंग्लिशींतल्या 'Folklore' ह्या उतराक समान अर्थान वापरतात. 'लोक' (Folk) आनी 'वेद' (Lore) ह्या दोन उतरांच्या समासांतल्यान तें घडलां. दीसपट्ट्या वेव्हारांत 'लोक' हें उतर 'हेर', 'परकी', 'वेगळो' ह्या अर्थान वापरतात. पूण लोकवेदांतलें लोक हें उतर, एक विशिश्ट अशी जिणेपद्दत जगपी समान दर्जाच्या लोकांचो पंगड अशा अर्थान घेतात.

**लोकवेद अभ्यासाचो इतिहास :** इंग्लिशींतलें 'फोकलोर' हें उतर 'विलीयम जॉन थॉम्स' नांवाच्या एका इंग्लीश 'येन्टी केव्हरीयनान' घडयलें. पूण त्यावेळार लोकवेदाचें काम करप ही गजाल तितलीशी सन्मानीय नाशिल्ल्यान तांणी 'अॅम्ब्रोस' ह्या टोपण नांवान 'अॅथनेयम' ह्या जर्मन नेमाळयांत, २२ ऑगस्ट १८४६ वर्सा आपल्या पत्रांत ताचो उल्लेख करून लोकांमुखार मांडलें. तेन्नाच्यान 'फोकलोर' हें उतर जगमान्य जालें आनी लोकवेदाच्या कामाक गती येवन ल्हव ल्हव त्या कामाक आनी तें काम करतल्याक सन्मान प्राप्त जावंक लागलो.

विलियम जॉन थॉम्स हाणें फोकलोर हें उतर घडोवंचे पयलीं अस्तंत्या विद्वानांनी पॉपुलर येन्टीव्हेयरी वा पॉपुलर लिट्रेचर

ह्या माथाळयाखाला लोकवेदाचो वावर सुरू केल्लो. लोकगितां, लोक काणयो, उमाणीं, म्हणीं, एकठावन कांय प्रमाणांत तांचें वर्गिकरण आनी विश्लेशण करून उजवाडावपाक सुरवात केल्ली.

'इलीयड' (iliad) आनी ऑडेसी (Odyssey) सारकीं ग्रीक लोककाव्यां, बॅबीलॉनांतल्या गीलगामीशाच्यो वीरकथा, अरेबीयन नायट्स, इसापकथा, पंचतंत्र ह्या सारकें चिरंजीक आनी जगप्रसिद्द लोकसाहित्य एकठांय करून दवरपाचें काम कोणें केलें, ते व्यक्तीचें नांव जरी आयज मेळना आसलें, तरी कोणें तरी त्या लोकवेदाचें म्हत्व जाणाजावन करून दवरिल्लें ही गजाल निश्चीत.

एकुणिसाव्या शतमानाचे सुरवातेक म्हळयार १८१२ वर्सा जॅकब ग्रीम आनी व्हिलियम ग्रीम ह्या दोन जर्मन भावांनी 'किंडर उंड हावूस्स मर्चंट' ह्या नांवान जर्मनींतल्या भुरग्यांच्या काणयांचो एक संग्रह उजवाडाक हाडलो.

१८७८ वर्सा इंग्लंडांत 'लंडन फोकलोर सोसायटी' ही संस्था जल्माक आयली. 'हँडबूक ऑफ फोकलोर' नांवाचें एक नेमाळें हे संस्थेन सुरू केलें.

१८८८ वर्सा अमेरिकेंत 'अमेरिकन फोकलोर सोसायटी' नांवाचे संस्थेची स्थापना जाली. 'जर्नल ऑफ अमेरिकन फोकलोर' नांवाचें नेमाळें हे संस्थेचे वतीन उजवाडाक येवंक लागलें.

संवसारांतल्या हेर देशांतय लोकवेदाचो स्वतंत्र रितीन वावर करपी जायत्यो संस्था आनी नेमाळीं उपरांत जल्माक आयलीं. लोकवेद संग्रहालयां आनी परिशदो घडल्यो. लोकवेदाच्या वावराक नेट आयलो.

भारतांत पारंपारीक कथांचे संग्राहक म्हण कांय व्यक्तींचीं नांवां प्रसिद्द आसात. वररुची, गुणादय, महीदास, ऐतरेय, मार्कंडेय, व्यासपुत्र, शुक, विष्णुशर्मा ह्यो तातुंतल्यो कांय व्यक्ती जावन आसात. तांणी एकठांय केल्ल्या कथांचे कल्पनाबंध लोककथांनीय मेळटात. दूरदश्टी आशिल्ल्या ह्या विद्वानांनी, वेव्हारग्यान शिकोवपी, नीत - अनितीची वळख करून दिवपी आनी चतुरतायेन - विवेकान भरिल्ल्या कांय कथांचें संकलन करून तांकां तांचे मूळ भाशेंतल्यान संस्कृत भाशेंत हाडून ग्रंथांचें रूप दिलें. पंचतंत्र, कथासरित्सागर, हितोपदेश, बेताळ पंचविशी, सिंहासन बत्तिशी, शुक बहात्तरी, ह्यासारक्या ग्रंथांचो हे वळेरेंत आस्पाव करूं येता. हें काम करपाफाटल्यान लोकवेदाचो वावर करपाचो हेत नाशिल्ल्यान, लोकवेदाच्या वावराचें मुळावण अठराव्या शतमानांत पडलें अशेंच म्हणचें पडटा.

१७८४ वर्सा कलकत्त्यांत 'एशियाटीक सोसायटी' हे संस्थेची स्थापना जाली. हे संस्थेचें एक मुखपत्र उजवाडाक येतालें. आशिया खंडाचो इतिहास, विज्ञान, कला, साहित्य हांच्या वांगडाच भारतांतल्या लोकवेदाचेरय थोडें भोव लिखाण ह्या नेमाळयांत उजवाडाक येतालें. मात 'पुरातन प्रथा' ह्या माथाळयाखाला तें उजवाडायिल्लें दिसता.

१८७२ वर्सा 'भारतीय पुरातन प्रथा' ह्या नेमाळयाचो जल्म जालो. भास, इतिहास, साहित्य, शिल्प हांच्या वांगडाच लोकवेदाक हातूंत जागो दिल्लो दिसता. १९३२ वर्सा हें नेमाळें बंद पडलें.

१९३८ वर्सा 'न्यू इंडियन ॲन्टीक्वेयरी' नांवाचें एक नेमाळें डॉ. प. कृ. गोडे हाच्या संपादनाखाला कांय वर्सां पुण्याक उजवाडाक येतालें. पूण तें चड वर्सां तग धरूंक पावलेंना.

इंडियन एन्टीक्वेयरीच्या फाटोफाट लोकवेदाक पोशक असो वावर 'बॉम्बे ॲन्थ्रॉपॉलोजीकल सोसायटी' हे १८८५ वर्सा स्थापन जाल्ले संस्थेन केलो. हे सोसायटीच्या पयल्या पंचवीस वर्सांच्या अध्यक्षांचीं नांवां पळयल्यार तीं ब्रिटीश राजवटींतल्या कांय अधिकाऱ्यांचीं नांवां आसात हें कळटा. ब्रिटीश राजवट गांवागांवांनी लोकप्रिय जावंची आनी थंयच्या लोकांचीं मतां कळचीं ह्या हेतान ब्रिटीश सरकारान तांच्या अधिकाऱ्यांक गांव-गांवच्या जाती - जमातींचेर ग्रंथ बरोवंक सांगिल्लें. तशींच गॅजेटियरांय तयार केल्लीं. कांय जाणांनी मन लावन लोकसंस्कृतायेचे नदरेन म्हत्वपूर्ण वावर केलो. भारतांत ब्रिटीश अधिकाऱ्यांवांगडा ब्रिटीश धर्मप्रचारकांनीय बरोच वावर केल्लो दिसता.

संवसारांतल्या हेर राश्ट्रांसारकीच आयज भारतांतय लोकवेदाच्या वावराक गती आयल्या. झवेरचंद्र मेघाणी, राम नरेश त्रिपाठी, काका कालेलकर, साने गुरूजी, देवेंद्र सत्यार्थी, हांच्या सारक्या लोकवेदाच्या पुरस्कर्त्यांनी घाल्ल्या लोकवेद वावराचें मुळावण आयज फुडली पिळगी घट करतना दिसता. दुर्गा भागवत, सरोजनी बाबर, प्रभाकर पांडे, जे. यस्. परमसिवय्या, सोहिंदर सींग बेदी, ग्यानी लाल सींग, आशुतोष भट्टाचार्य, कोमल कोठारी ह्यासारक्या जायत्या विद्वानांनी आयज ह्या आव्हानात्मक क्षेत्रांत तळमळीन वावर चलयला.

गोंयांत लोकवेद वावराचें मुळावण प्रो. मोशीयोर सेबिस्तीयांव रोदोल्फ दाल्गाद हाणें घालें. ताणें संग्रहीत करून १९२२ वर्सा उजवाडायिल्ल्या Florilegio dos Proverbios concanis कोंकणी म्हणींच्या संग्रहान लोकवेद वावराची गोंयांत अधिकृत सुरवात जाली म्हणूं येता. शणै गोंयबाबानय अप्रत्यक्ष रितीन लोकवेदाचो वावर केला. ताची बरपावळ वाचल्यार तातूंत गोंयचे लोकसंस्कृतायेचें विराट दर्शन घडटा.

गोंयच्या लोकवेदाच्या दायजाची वळख पटून कांय जाणांनी आपले परीन वावर केला. डॉ.र.वी. पंडित, वि.स. सुखटणकार, मलबाराव सरदेसाय, फॅलिसिओ कार्दोज, डॉ. जुझे पेरेर, मिखायल मार्तीस, लुसिओ रॉड्रीगीज, वा.का. वाघ, फा. आंतोन पेरेर, प्रो. श्याम वेरेंकार, फा. प्रताप नायक, पांडुरंग फळदेसाय, विनायक खेडेकार, कमलादेवी राव देशपांडे, तुकाराम शेट, हिरा नायक, जयंती नायक हांचो मुजरत उल्लेख करचो पडटा.

आयज गोंयांत 'गोंय कला अकादेमी' आनी 'गोवा कोंकणी

अकादेमी' ह्यो दोन संस्था लोकवेदाचो मुखेलपणान वावर करतात. गोंय कला अकादेमी लोककलांच्या सादरीकरणाचेर चड भर दिता जाल्यार गोवा कोंकणी अकादेमी लोकवेदाच्या सर्वांगी संकलनाचेर आनी अभ्यासाचेर भर दिता. कर्नाटकांत श्री. संतोष कुमार गुल्वाडी, श्री. एस्. एस्. वाल्मिकी आनी श्री. सी. सी. ए. पै. हांणी लोकवेदाचो बरोच वावर केला, तर केरळांत प्रो. आर. के.राव, श्री. पी. जी कामत, श्री. यन्. पुस्तेजोराम मल्ल्या हे लोकवेदाच्या कार्याक वावुरतात.

संकलन, वर्गीकरण आनी विश्लेशण ह्यो लोकवेद अभ्यासाच्यो तीन मुखेल अवस्था. लोकवेद अभ्यासकाक ह्या तिनय अवस्थांक पुराय म्हत्व दिवचें पडटा.

लोकवेदाच्या खंयच्याय आंगाचो विचार करतना ताचीं वेग - वेगळीं रुपां आनी प्रकार चडांत चड संकलन करप गरजेचें.

पुस्तक रुपान, ऑडियो- व्हिडियो कॅसेटींनी मुद्रीत करून वा छायाचित्रांच्या आदारार एकठांय केल्ल्या लोकवेदाचें वेवस्थीत वर्गीकरण करप हें लोकवेद अभ्यासाचें दुसरें सोंपण. कारण वर्गीकरणाचें काम वेवस्थीत जाल्यारूच मुखावयलो विश्लेशणाचो वावर खूब सोंपो जाता.

संवसारांतल्या जायत्या विद्वानांनी लोकवेदाचीं वर्गीकरणां दिल्यांत, तातुंतलें रिचर्ड यम्. डॉर्सन हांणें दिल्लें प्रमाण अशें मानतात. तांणी लोकवेद फुडल्या मुखेल चार प्रकारांत विभागला -

१) **मौखिक आविश्कार (Oral Literature) :** लोकगीतां, लोककाणयो, म्हणी, उमाणीं, हांसयाळी बी.

२) **भौतिक संस्कृती (Material Culture) :** पारंपारीक भेस, अलंकार, न्हेसण - पांगरूण, मूर्ती - शिल्पां, विरगळां - पाशाणां, खेळणीं - फर्नीचर, वेवसायीक आवतां - आयदनां आदी.

३) **पारंपारीक चाली - रिती (Social Folk Custams) :** जल्म, मूज, लग्न, मरण ह्या सारक्या प्रसंगांनी मनशाच्या जिवितांत करपाचे संस्कार आनी पाळो दिवपाच्यो चालीरिती, जात्रा - उत्सव, व्रतां - फेस्तां ह्या भौशिक कार्यावळींच्या वेळार करपाच्यो पारंपारीक विधी, तशेंच पारंपारीक पद्दतीन घोळणुकेंत आशिल्ले समज - विस्वास.

४) **प्रयोगसिध्द लोककला (Performing Folk art) :** लोकनृत्यां, लोकनाट्यां आनी लोकखेळ.

**लोकवेदाचे हेर विशयांकडले संबंद** - लोकवेदाचे हेर विशयांकडेन घनिश्ट असे संबंद आसात.

मानवशास्त्र, इतिहास, भुगोल, समाजशास्त्र, भासशास्त्र, साहित्य, मानसशास्त्र, वैजशास्त्र ह्या सारक्या विशयांचो अभ्यास करतना, उद्देश वेगळो आसूं, पूण थोड्या वा चड प्रमाणांत लोकवेदाचो अभ्यास करचोच पडटा.

**अ) मानवशास्त्र आनी लोकवेद :** मानवशास्त्राचो एक भाग म्हणजे संस्कृतीक मानवशास्त्र (Cultural Antropology) ताचो अभ्यास करतल्या विद्यार्थ्याक त्या त्या समाजाचे जिबेवयलें साहित्य, कला, चालीरिती, विधी, देवधर्म आनी हेर, जांकां आमी लोकवेद म्हण्टात, तो अभ्यासल्या बगर तांच्या कामाक दिशाच मेळना.

आयच्या लोकवेदाच्या व्यापक अर्थाप्रमाण ज्या समाजाच्या लोकवेदाचो अभ्यास करता, त्या समाजाचें मानवशास्त्राचे नदरेंतल्यान पुराय लोकजीवनच अभ्यासचें पडटा.

**आ) इतिहास आनी लोकवेद :** इतिहास आनी लोकवेदाचो संबंद सामको दाट. एका इतिहासकाराक ज्या वाठाराचो तो इतिहास बरयता, वा इतिहासाचें संशोधन करता, त्या वाठारांतल्या लोकवेदांतल्यान म्हळयार मुखेलपणान लोकगितां - लोककथांतल्यान इतिहासाची थोडी भोव तरी म्हायती मेळटा, निदान दिका तरी मेळटा आनी ताचेवयल्यान तो लिखीत पुराव्यांचो शोध घेवंक शकता. लिखीत इतिहास, ताम्रपट आनी शिलालेख सारखे इतिहासीक दस्तऐवज उणे पडटात तेन्ना जनमानसाचे जिबेर घोळपी लोकवेदच अभ्यासकांक उपेगी थारतात. मौखिक इतिहास (Oral History) म्हण लोकवेदाक आयज मान्यताय मेळिल्ली आसा.

**इ) लिखीत साहित्य आनी लोकवेद :** लिखीत साहित्याचो आनी लोकवेदाचो संबंद हेरांपरस चड लागिंचो. लोकवेदांतल्यानच लिखीत साहित्याचें मुळावण पडलें. आयज साहित्यकार मुद्दाम लोकगितां, लोककथा बी सोदून तांचीं कथानकां वा तांचो आदार घेवन नवी साहित्य निर्मिती करतात. लोकनाट्याच्या म्हालवजाचेर आयज कितलीं तरी नवीं नाटकां जल्माक येतात.

एका साहित्यकारान आपल्या लिखाणांत केल्ल्या कथासुत्रांच्या आदारान एका लोकवेदकाराक ताच्या वावराखातीर आदार मेळूंक शकता. साहित्यकारान आपल्या लिखाणांत वापर केल्ल्यो म्हणी, उमाणीं ताका सहजपणान संग्रहाखातीर मेळूंक शकतात.

**ई) भाशाशास्त्र आनी लोकवेद :** भाशाशास्त्राच्या विद्वानाक लोकवेद जायतेतरेन मदत करता. जर एकाद्र्या उतराचो अर्थ सोदतना ताचें अडलें जाल्यार त्या वाठारांतल्यो आख्यायिका, लोकगितां हें काम सोपें करतात. म्हणी वा वाक्प्रचार जें लोकवेदाचें एक म्हत्वाचें आंग तें भाशाशास्त्राचो अभ्यास करतल्याक खूब उपेगी पडटा.

**उ) कला, संगीत आनी लोकवेद :** पुर्विल्ल्या पारंपारीक कलांतल्यान नव्या कलांचो जल्म जाला. लोकसंगितांतल्यो कल्पना घेवनच आयज नवे नवे प्रयोग संगिताच्या मळार जातात. अमेरिकेसारक्या प्रगत देशांत लोकसंगिताचें म्हत्व जाणा जावन तरनी पिळगी त्या संगिताचें पुनरुज्जीवन करपाच्या वावराक लागल्या.

**ऊ) समाजशास्त्र आनी लोकवेद :** लोकवेद म्हळयार समाजाचो हारसो. तातूंत समाजांतल्या सुंदर - मंगला बरोबरच, हळशीक आनी विकृतीचेंय पडबींब दिसता. देखून समाजशास्त्राचो

अभ्यास करतल्यान लोकवेदाचो अभ्यास करप गरजेचें. एका काळावयली समाजीक परिस्थिती, मनशांमनशां मदले संबंद लोकवेद दाखयता.

**ए) भुगोल आनी लोकवेद :** भुगोलशास्त्राच्या विद्वानाक लोकवेदांतल्यान त्या त्या वाठाराच्या भुगोलाचीं पानां मेळूं येतात. खंय न्हंय आसा, खंयचो दोंगर आसा, गांव खंय वसला हांचें वर्णन वा म्हायती ताका थंयच्या लोकगितांतल्यान वा हेर लोकवेदांतल्यान मेळटा.

**ऐ) वैजकशास्त्र आनी लोकवेद :** दोतोराक (Physician) एकाद्र्या कठीण दुयेंसाचें वखद वा दुयेंसाचें मूळ ताका ताच्या भुरगेपणांत आजयेन वा आज्यान केल्ल्या पारंपारीक उपायावयल्यान सुचूं येता. तशेंत तें लोककथांतल्यानय मेळूं येता. नोबॅल, बीरबक्रस ह्या कॅनेडियन शास्त्रज्ञांनी लोककथांनी भौन भौन येवपी सदाफुलीच्या उल्लेखावयल्यान, ते वनस्पतीचो अभ्यास सुरू केलो आनी ब्लडकॅन्सराचेर उपचार करपांत जें द्रव वापरतात तें 'Vincristine Sulphate' सदाफुलीच्या पानांपासून तयार केलें अशें म्हण्टात.

**ओ) मानसशास्त्र आनी लोकवेद :** मानसशास्त्रज्ञाक (Psyciatrist) मानसिक पिडेकाराचे पिडेचें मूळ वा ताचेर करपाचो उपाय पुर्विल्ले विधीपरंपरेंतल्यान वा म्हणी काणयांतल्यान मेळूंक शकता.

**लोकवेदाचें म्हत्व :** मनशाचे जिणेंत लोकवेदाचें म्हत्व खूब व्हडलें. लोकवेद आमकां समाजांत कशें जगचें तें शिकयता. ल्हान भुरग्यांक लोकवेदांतल्यान आपल्या भोंवतणच्या सैमाची, वाठाराची, जिणेंत उपेगाक पडटले दर एके वस्तीची वळख जाता. कांय लोकवेद तर असो आसा, जो ल्हान भुरग्यांक चलपा - उलोवपाखातीर प्रवृत्त करता आनी ताचे वाडीक पूरक असो व्यायाम दिता. आपल्या रगताच्या मनशांची, आपल्या गांवची, सैमाची, देशाची ओड भुरगेंपणासाकूनच भुरग्यांच्या मनांत सजोवपाचें काम लोकवेदावरवीं जाता.

लोकवेद मनशाच्या सामुहीक जिणेची जतनाय घेता. आपल्या समाजाकडेन, समुहाकडेन तो मनशाक बांदून दवरता. ताका लागून मनीस केन्ना एकटो पडना. ताका एके तरेचें संरक्षण आसता ताका ताच्या दुखवाच्या वेळार वांटेकार मेळटा. संकश्टाच्या वेळार आदार मेळटा. जिणेंतली खोस व्यक्त करपाखातीरूय ताका माध्यम मेळटा. लोकवेदाक लागून बुध्दीची वाड जाता. संस्कृतीचें जतन जाता.

जिणेंतल्या भव्य-दिव्याचें मनशाक दर्शन घडटा, आपल्या पुर्वज्यांच्या गिरेस्त दायजाची वळख जाता. लोकवेद आमचेर जातल्या समाजीक अत्याचारा आड उबो रावता. ज्या अन्याया आड आवाज उठोवपाचो धीर एकटे व्यक्तीक जायना, तें तो लोकवेदांतल्यान करता, कारण तो आवाज फकत एके व्यक्तीचो नासून समुहाचो आशिल्ल्यान ताका फाटबळ मेळटा. जिणेंतल्या कडू सत्यापासून आनी कटकटीच्या त्रासांचे जिणेंपासून मनशाक थोडो वेळ तरी पयस काडून ताच्या मनाचें रंजन करता.

समाजांत जगतना मनीस आपल्या मनांतल्यो अतृप्त इत्सा, विकृती आदी आपल्या काळजांत लिपोवन दवरता. मानसशास्त्राचे नदरेंतल्यान अशा विकृतींचो वा अतृप्त इत्सांचो जेन्ना काळजांत घुस्मटमार जाता तेन्ना ताचो परिणाम वायट जाता. अशा विकृतींक वा अतृप्त इत्सांक लोकवेदांतल्यान उक्त्यो जावपाखातीर आनी मन नितळ - पवित्र उरपाखातीर जागो आसता. परंपरेन तशी तजवीज केल्ली आसता.

लोकवेदांत जें जें मेळटा तें सगळें भव्य दिव्य आसता अशें ना, कांय वेळां विकृत आनी लोकाच्या हिता आड अशो गजाली लोकवेदांत आमाकां दिश्टी पडटात. ह्या गजालींची जेन्ना निर्मिती जाल्ली तेन्ना समाजाक ताची गरज आशिल्ली, आज त्यो कालबाह्य जाल्ल्यान आमकां त्यो तशो भासतात अशें लोकवेद विद्वानांचें हाचेर मत आसा.

- जयंती नायक

**लोकशाय :** भौमताच्या तत्त्वार चलपी सामुदायिक हितकारी शासन पद्दत. 'लोक' हो घटक मध्यवर्ती धरून लोकांच्या मताप्रमाण चलपी कसल्याय कारभाराक लोकशाय ही संज्ञा लावप जाता. राजेशाय, हुकुमशाय अशा एकाधिकारशायेच्या अन्यायी आनी तर्क विसंगत वेव्हाराचो सर्वाधिकाराचें मूल्य आशिल्लो शास्त्रीय पर्याय म्हणून लोकशायेचो उल्लेख जाता. उजू आचार - विचार आनी उच्चाराचें सार्वत्रिक अशा अबाधीत सैमीक स्वातंत्र्याचो अधिकार प्राप्त करून दिवपी एक विचार प्रणाली म्हणूनय लोकशायेचो संदर्भ घेवप जाता.

डिमॉक्रसी ही इंग्लीश संज्ञा लोकशायेचो प्रतिशब्द जावन आसा. डिमॉस (Demos) म्हणजे सामान्य लोक आनी क्रसी म्हळयार (Cracy) सत्ता. हें उतर डिमॉस + क्रॅटोस (Demost + Kratos) ह्या ग्रीक उतरासावन जाल्लें आसून, ताचें लॅटीन रूप डिमॉक्रॅशिया अशें आसा.

लोकशाय ही संज्ञाय मूळांतली ग्रीक. डेमॉस म्हळयार लोक आनी क्रॅटॉस म्हळयार राज्य हाचेवयल्यान लोकाचें राज्य म्हळयार डेमॉक्रसी हें उतर तयार जालां. ग्रीसांत पयलीं नगरराज्यां आशिल्लीं. शासनासंबंदीचे सगळे निर्णय नगरांतल्या सगळ्या नागरिकांची बसका आपोवन प्रत्यक्ष भोवमतान घेताले. हे लोकशाय पद्दतींतय मतदानाचो हक्क दादल्यांकच आनी तोय नागरिकत्वाचो अधिकार मेळिल्ल्यांकूच शिमित आशिल्लो. तातुंतल्यान बायलांक आनी गुलामांक वेगळायिल्लें. ग्रीसाउपरांत रोमांतली लोकशाय चड तेंप तिगलीना. ग्रीकांक रोमनांनी जिखले, तर उपरांत भायल्या कांय टोळयांनी रोमन साम्राज्य उध्वस्त केलें. इ.स. च्या ५ व्या शेंकड्यासांवन

१५ व्या शेंकड्यामेरेनचो मध्ययुगाचो काळ अर्निबंध राजेशाय आनी उमरावशायेचो आशिल्लो. ह्या काळांत इंग्लंडाच्या लोकांनी आपल्या राजाकडल्यान काय बुनयादी हक्काची सनद मेळयली, तीच मॅग्नाकार्टा. आर्विल्ले लोकशायेचो हो पयलो म्हत्वाचो टप्पो. १५व्या शेंकड्यांत इंग्लीश लोकांनी 'बिल ऑफ राइटस्'च्या रुपान आनीकूय हक्क मेळोवन राजाचे अधिकार शिमित केले आनी लोकशायेच्या मार्गार आनीक एक पावल फुडें पडलें तरीय पूण लोकशायेच्या विकासाक खरी गती मेळ्ळी ती अमेरिकन राज्यक्रांती (इ.स.१७७६) आनी फ्रेंच राज्यक्रांती (इ.स. १७८९) ह्या दोन व्हड राजकीय घडणुकांनी. अमेरिकन लोकांनी ब्रिटीश सत्ता भायरावन लोकशाय स्वरुपाची राज्यघटना तयार केली. त्या उपरांतच्या काळांत बऱ्याचश्या देशांनी आपल्यो राज्यघटना तयार करतना हे घटनेंतल्या तत्त्वांचे आदर्श मुखार दवरले. फ्रेंच राज्यक्रांती ही फ्रांसांतली अनियंत्रितराजेशाय, आयती खावपी उमरावशाय आनी कर्मठ धर्मसंस्था हांचेआड लोकांनी केल्लो उठाव आशिल्लो. खऱ्या अर्थान लोकशाय शासन स्थापन करपाखातीर फ्रेंच लोकांक आनीकूय शंबर वर्सां झगडचें पडलें, पूण ताचेफाटली मूळ प्रेरणा इ.स. १७८९ची क्रांतीच आसली.

अस्तंत देशांत आर्विल्ले लोकशायेची जडण घडण मुखेल करून उद्येगीक क्रांतीक लागून जाली, मशिनाचे सोद लागले. ताकालागून १८व्या शेंकड्यांसावन युरोपांत शेतकी वेवसाय दुसऱ्या दर्जाचो थरलो. यंत्रावयलें उत्पादन सुरू जालें. व्हड व्हड कारखाने उबे जाले. हजारांनी मनशां एकठांय काम करूंक लागलीं. अर्थीक विशमताय सरंजामशायेंतले परस अदीक वाडली. हे नवे उत्पादन वेवस्थेक लागून पयलीं कामगार वर्गांत आनी उपरांत समाजाच्या सगळ्या थरांत स्वातंत्र्याची, स्वतःच्या हक्काची जाणविकाय घट जावंक लागली.

शिक्षणाचो प्रसार जावंक लागलो आनी मतदान हक्काच्यो मागण्यो व्हडा नेटान जावंक लागल्यो. ताचोय परिणाम म्हळयार थरावीक काळान वेंचणुको जावंक लागल्यो. तेखातीर प्रौढ मताधिकार मान्य जालो. ह्यो सगळयो अर्थीक, राजकीय आनी शासकीय घडणुको आयचे लोकशायेची बुनयाद मानपांत येता. ह्या सगळ्या घडणुकांचो प्रभाव २० व्या शेंकड्यांत आशियांतल्या देशांतूच पडलो. लोकांचेंच, लोकांनी केल्लें, लोकांखातीरचें राज्य म्हळयार लोकशाय ही अब्राहम लिंकनाची व्याख्या सगळयांक वळखीची जाल्या. म्हाका गुलाम म्हणून जगपाक जशें आवडपाचें ना, तशेंच मालक म्हणून रावपाकूय आवडपाचें ना अशे ताचे उद्गार आशिल्ले. ताच्या ह्या उद्गारानच लोकशायेची कल्पना उक्ती जाता. 'भोवमतांचें राज्य' अशेंच लोकशायेचें वर्णन करूं येता. ब्राइसान लोकशायेची व्याख्या करतना, 'लोकशाय शासनपद्दतीन मतदानाच्या हक्कांक पात्र आशिल्लयांमदल्या चडशा जाणांच्या हातांत सत्ता आसता' अशें म्हळां. भोवसंख्यांकाच्या आदारान घेतिल्ले निर्णय फावो तशे आसपाचे संभव अधिक आसतात. मात अल्पसंख्यांकूय आपल्या मताची कदर जातली असो लोकशायेंत विश्वास दिसता. तशेंच निर्णय घेवचेपयलीं प्रतिनिधींक आपलीं मतां उक्तावपाची पुराय मेकळीक आसता. हाकाच राजकीय समता अशें म्हण्टात. अल्पसंख्याकाचेर भोवमतान आशिल्लयांनी आपलीं मतां लादपाचो प्रकार लोकशायेंत घडचो न्हय अशी अपेक्षा आसता. लोकशाय म्हळयार दिवप - घेवप. भोवसंख्यांक आपल्या हातांत आशिल्ले सत्तेचो आपल्याक जाय तसो उपेग करूं शकना, कित्याक तर भोवसंख्यांकाच्या मतांची गरज आसता. उरफाटे कमी मतांनी आशिल्ले मानतात की आपले विचार उक्ते केल्याउपरांत भोवमताकडल्यान जो निर्णय घेवप जाता, तो मानूकूच जाय. आज अल्पमतान आशिल्लयाचें फाल्या भोवमत जावपाची शक्यताय आशिल्लयान लोकशायेंत सत्ताधारी पक्षाक 'हम करे सो कायदा' अशे बेपर्वाय वृत्तीन वागपाक मेळना. संयम बाळगूचो लागता. हाचोच अर्थ असो की, 'सहिष्णुताय' हें लोकशायेचें एक म्हत्वाचें खाशेलेपण जावन आसा.

लोकशायेंत सगळयांक न्याय मेळटलो, कोणूच कोणाचेर जुलूम करचो ना, हाची खात्री आसची लागता. आपल्याक जें समा दिसता तें करपाची मेकळीक हे पद्दतींत आशिल्लयान सगळेच कमी अदीक प्रमाणांत समाधानी आसतात. लोकशाय ही फकत एक शासनपद्दती न्हय. सुसंघटित समाजीक जीणेची गरज आनी व्यक्तिस्वातंत्र्याचे भावनेची तीव्रताय लक्षांत घेवन रुपकारलेली ती एक जिणेची पद्दत वा रीत जावन आसा. नियमीत सार्वत्रीक प्रौढ मतदान, नागरी स्वातंत्र्य, लोकाभिमुख प्रशासन आनी निपक्षपाती न्याय संस्था ह्या लोकशायेच्या मुखेल घटकांवरवीं लोकशायेचें संवर्धन जावंक पावता.

लोकशायेंत सामको सांचेबंदपणाय समा न्हय आनी तसो तो अपेक्षितूय ना. मतदाराच्या मतामतांच्या विवेचनांतल्यान आनी संघर्शांतल्यान निमाणेकडेन सत्य भायर येता आशिल्लयान आपले विचार उक्तावपाक कसलोच प्रतिबंद आसना. समाजाच्या सगळ्या वर्गांतल्या नागरिकांक समान हक्क आनी अधिकार आसतात. जल्म, संपत्ती, जात, लिंग वा विचार हाचेर मनशाचो दर्जो आदारून ना, हें गृहीत धरिल्लें आसता. सगळयांनीच एकमेकाबद्दल भावपणाची भावना बाळगूंक जाय, असो लोकशायेंत संकेत आसता.

लोकशायेक समतेचें अधिश्ठान आसता. तशेंच घटनात्मक लोकशायेचीं दोन मुखेल खाशेलपणां म्हळयार राज्य घटना आनी राजकीय पक्ष. राज्यशासनाचेर नियंत्रण दवरपी बुन्यादी तत्त्वां म्हळयार राज्यघटना. राज्यकर्ते आनी सामान्य जनता हांचे संबंद घटनेन थारतात, नियंत्रित जातात. सत्तेच्या वापराचेर नियंत्रण दवरपाची येवजण घटनेन केल्ली आसता. व्यक्तिगत हक्कांची आनी स्वातंत्र्याची राखण करपाची तरतूद घटनेनूच करून दवरिल्ली आसता. ताकालागून

एका मनशाच्या वा एकाच पक्षगटाच्या हातांत सत्ता केंद्रीत जावपाचो धोको नासता. समाजीक आनी राजकीय जिणेंतलो राज्याचो आनी राज्यकर्त्यांचो हस्तक्षेप कमी जाता. राजकीय जिणेंत जाय आशिल्ले बदल थंडपणान जावंक पावतात अशे लोकशायेंत राजकीय पक्षाक म्हत्वाची सुवात आसता. कित्याक तर सत्ता वापरपाचें वा सत्ताधारी व्यक्तींत बदल घडोवपाचें तें एक म्हत्वाचें साधन आसा. लोकशाय राज्यांत दोन वा चड राजकीय पक्ष आसतात. स्वंयच्या पक्षाचें वांगडीपण आपणावपाचें आनी कोणाचें काम करपाचें हेविशीं नागरिकांक घटनेनूच मेकळेपण दिल्लें आसता. राजकीयपक्ष लोकांचें प्रतिनिधित्व करतात. सताधारी गट वेंचपाचें निर्मळ साधन म्हूण राजकीय पक्षांचो वापर जाता.

लोकशाय शासनपद्दत यशस्वी जावपाखातीर लोकांनी जागृत आसचें पडटा. लोकांक आपल्या हक्काची जाणविकाय आसची लागता. सरकारच्यो त्रुटी मागण्यो वा अन्यायाखातीर आवाज काडचो लागता लोकशायेंत सगळया नागरिकांमदीं एकमेकांभितर भावपण आसचें लागता. सामाजिक न्यायाची प्रस्थापना ही लोकशायेची एक म्हत्वाची गरज आसा तशेंच स्वातंत्र्य, समता आनी भावपण हांचीय गरज आसता. एकमेकाविशीं सहिष्णुताय आसप हेंय तितलेंच गरजेचें. दर एका मनशाक आपले उदरगतीची पुराय संद दिवप, ही गजाल लोकशायेच्या यशाखातीर भोव गरजेची जावन आसा.

पुराय जनतेन वांटेकार जावप हें लोकशायेचें एक खाशेलेपण आसा. शासनाचें कितेंय चुकता जाल्यार लोकांनी घटनात्मक पद्दतीन आपले विचार ताचे आड मांडून तातूंत सुदारणा करपाक जाय. खबरांपत्रांय ह्या कामांत वांटेकार जावंक शकतात. संघटना आनी बसकांची मेकळीक लोकशायेंत आसता, तांचे कडल्यानूय हें काम जांव येता. राजशाय, हुकूमशाय सर्वकशवादी, साम्यवादी आदी शासनप्रकारांपरस लोकशाय शासनप्रकार आर्विल्ल्या काळांत चड प्रचलित जालो. भौशिक कल्याण ह्या तत्त्वाचेर तो आदारिल्लो आशिल्ल्यान संवसारांतल्या चडांत चड देशांनी लोकशाय शासन पद्दतीचो स्विकार केल्लो दिसून येता. लोकशायेच्या गुणदोशाच्या संदर्भांत विन्स्टन चर्चिल (१८७४ - १९६५) हाचे उद्गार उद्बोधक थारतात, तो म्हण्टा ''लोकशायेचे कार्यपद्दतीक कितल्योय मर्यादो पडल्यो आनी थंय बरेच दोश आसले तरी तिचो सापेक्षतायेन विचार केल्यार ती कुचकामी थारूनलेगीत हेर स्वंयच्याय शासनपद्दतीपरस सुसहय आनी कल्याणप्रद आसा''.

लोकशायेंत शासनकर्ते म्हूण वेंचून येवपी कर्तबगार आनी कार्यक्षम आसताच अशें ना. देखून कांय टीकाकार लोकशाय म्हळ्यार 'शिकिल्ल्या लोकांचें शासन' अशें मानतात. हिटलरान लोकशायेक पिशी, भ्रश्टकारी तशेंच मुयेच्या पावलान चलपी अशें म्हळां. कांय टिकाकारांच्या मतान लोकशायेंतलें 'समान' तेचें तत्त्व तर्काक न पटपी आनी अवेव्हारी आसा.

आर्विल्ल्या कल्याणकारी राज्याक जायते कठीण प्रस्न हाताळपाचे आसतात. हे प्रस्न सोडोवपाक लोकशाय असमर्थ जाता असोय एक आरोप लोकशायेचेर जाता. लोकशाय म्हण्टकच तडजोड आयली. अशी तडजोड कार्यक्षमतेक आनी परिणामकारक शासनाक बाधा हाडटा. अशा शासनांतलें भासाभाशेचें सत्र उदरगतीक आडखळ हाडटा आनी कारभाराची गती मोडटा. बरेच खेपो त्याच त्याच कामाची पुनरावृत्ती जाता. वेंचणुको वयल्यावयर घेवच्यो पडटात आनी त्यो चडांत चड खर्चीक जायत चलल्यात, अशेंय कांय आक्षेप घेवपांत येतात.

लोकशायेवयलो आनीक एक आक्षेप म्हळयार ती वर्गविग्रहाक उर्बा दिता. लोकशायेंतली वेंचणूक ही बरीच खर्चाची गजाल जावन आसा. हाकालागून पयशेकारूच वेंचणूक लडोवक शकतात आनी वेंचून आयले उपरांत ते आपल्या वर्गाक बरे पडटले अशेच कायदे करतात. ताकालागून कांय सधन आनी तशेच तरेच्या लोकांची उदरगत जावंक शकता. अशे पद्दतीन विशमताय येता, म्हूण राजकीय लोकशायेपयलीं समाजीक आनी अर्थीक लोकशाय स्थापन करप गरजेचें आसता, अशें मानपांत येता.

लोकशायेंतल्या वेंचणूक प्रचारांत विरुध्द पक्षाची निंदा - नालस्ती करतात, चारित्र्यहनन करतात, आव्हानां - प्रती आव्हानां दिवपांत येतात. देशामुखावयल्या खऱ्या प्रस्नाची थंडपणान भासाभास जायचना. प्रचाराच्या वेळार आयते वेळार निर्माण जाल्ल्या प्रस्नांक नाका तितलें म्हत्व येता. शासन चलोवपाचें काम व्हड तांत्रिक स्वरुपाचें आनी कटकटीचें आसता. लोकप्रतिनिधीकडल्यान तातूंत वयल्यावयर हस्तक्षेप जाता. ताकालागून शासनाच्या कामांत आडखळ निर्माण जाता. मंत्री लोकप्रियतेचे फाटीक लागिल्ले आसतात. तांचे भोवमान घडोवन हाडून जाय त्यो मागण्यो मानून घेवपाचो तांकां आग्रो करपांत येता. अशे स्थितींत फावो त्या स्वतंत्र विचारान काम करप मंत्र्याक कठीण जाता.

साम्यवादी देशांमदीं २० व्या शेंकड्याचे अखेरेक जायत आशिल्ल्या राजकीय घडामोडींक लागून लोकशाय हें एक मूल्य म्हूण चडांत चड मानप जालां. मात ताचेचवांगडा अर्थीक विशमता आनी शोषण मूळ धरूंक लागलां. तशेंच उद्येगीक संघटना आनी नोकरशाय ह्या यंत्रणांचें लोकशायीकरण करपाचे प्रस्नूय आजून मेरेन तशेच आसात. ताकालागून तात्त्विक नदरेन आकर्शक अशी शासनपद्दत वेव्हारांतूय अर्थपूर्ण आनी समूहकल्याणप्रद करप, हें आव्हान लोकशायेच्या समर्थ पुरस्कर्त्यांमुखार उबें रावता.

अध्यक्षीय लोकशाय, संसदीय लोकशाय, भांडवलवादी लोकशाय, शिष्टजनवादी लोकशाय, समाजवादी लोकशाय आनी लोकांची लोकशाय हे लोकशायेचे मुखेल प्रकार म्हणूं येतात.

- कों. वि. सं. मं.

**लोकसंख्याशास्त्र :** संवसारांतल्या जनन-मरणा संबंदीत आंकडेवारीचो केल्लो विवेचनात्मक अभ्यास. जनगणनेच्या आदारान जागतिक तशेंच प्रादेशिक थरार, थारावीक कालखंडांत अस्तित्वांत आशिल्ल्या मनशाची आंकडेवारी तयार करून तिचेवरवीं त्या कालखंडांतल्या लोकसंख्येचो अदमास घेवप हो ह्या अभ्यासाफाटलो मुखेल उद्देश आसलो तरी हे आंकडेवारीचो अर्थीक, शिक्षणीक, समाजीक वेव्हाराची कारणमिमांसा करूंक उपेग करप जाता.

**संवसारीक लोकसंस्थेची वाड आनी वांटणी :** भूतकाळांत मनीस हो कमीत कमी ५ लाख वर्सांसावन रावताले जावंक जाय असो मानवशास्त्रज्ञांचो अदमास आसा. सादारणपणान धा हजार वर्सां पयलीं धर्तरेचेर सुमार ५० ते १०० लाख लोक रावताले आसुंये. ख्रिस्तयुगाचे सुरवेक म्हळयार अदमासान आठ हजार वर्सां उपरांत ही लोकसंख्या तीस कोटी मेरेन गेली आसुंये. हाचेउपरांत इ.स. १००० मेरेन ह्या आंकड्यांत कांयच फरक पडलो ना, असो अदमास आसा. विलकॉक्स आनी कारसॉंडर्स ह्या संशोधकाच्या मतान १६५० त संवसाराची पुराय लोकसंख्या ४७ ते ५५ कोटी आसुंये. १७७० त ती ६८ ते ७३ कोटी मेरेन वाडली आसुंये. १६५० ते १९८० मेरेनची संवसारीक लोकसंख्या आनी तिची वांटणी हेसंबंदींची आंकडेवारी तक्तो क्र. १ त दिल्ली आसा.

टीप : इ.स. १६५० ते १९०० मेरेनची लोकसंख्येचीं अनुमानां (अदमास) कार - सॉंडर्स हाचीं आसात.

**संवसारीक वाडीचो दर (आंकडे कोटींनी)** - तक्तो क्र. १

| वाठार | वट्ट लोकसंख्या | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | १६५० | १७५० | १८०० | १८५० | १९०० | १९२० | १९३० | १९४० |
| पुराय संवसार | ५४.५ | ७२.८ | ९०.६ | ११७.१ | १६०.८ | १८३.४ | २००.८ | २२१.६ |
| आफ्रिका | १०.० | ९.५ | ९.० | ९.५ | १२.० | १३.६ | १५.५ | १७.७ |
| उत्तर अमेरिका | ०.१ | ०.१ | ०.६ | २.६ | ८.१ | ११.५ | १३.४ | १४.४ |
| लॅटीन अमेरिका | १.२ | १.१ | १.९ | ३.३ | ६.३ | ९.२ | ११.० | १३.२ |
| आशिया (रशिया सोडून) | ३२.७ | ४७.५ | ५९.७ | ७४.१ | ९१.५ | ९९.७ | १०६.९ | ११७.३ |
| युरोप आनी रशिया | १०.३ | १४.४ | १९.२ | २७.४ | ४२.३ | ४८.५ | ५३.० | ५७.९ |
| ओशिॲनिया | ०.२ | ०.२ | ०.२ | ०.२ | ०.६ | ०.९ | १.० | १.१ |

| वाठार | वट्ट लोकसंख्या | | | |
|---|---|---|---|---|
| | १९५० | १९६० | १९७० | १९८० |
| पुराय संवसार | २५१.६ | ३०१.९ | ३६९.३ | ४४५.० |
| विकसीत प्रदेश | ८३.२ | ९४.५ | १०४.७ | ११३.७ |
| विकसनशील प्रदेश | १६८.४ | २०७.४ | २६४.६ | ३३१.३ |
| आफ्रिका | २२.४ | २८.० | ३६.१ | ४७.९ |
| लॅटीन अमेरिका | १६.५ | २१.७ | २८.३ | ३६.१ |
| उत्तर अमेरिका | १६.६ | १९.९ | २२.७ | २५.२ |
| उदेंत आशिया | ६७.१ | ७९.१ | ९८.६ | ११७.६ |
| दक्षिण आशिया | ७०.४ | ८७.६ | ११.६ | १४०.८ |
| युरोप | ३९.२ | ४२.५ | ४५.९ | ४८.५ |
| ओशिॲनिआ | १.३ | १.६ | १.९ | २.३ |
| रशिया | १८.० | २१.४ | २४.२ | २६.५ |

**वर्सुकी वाडीचो दर**

| वाठार | १९५०-६० | १९६०-७० | १९७०-८० |
|---|---|---|---|
| पुराय संवसार | १.८ | २.० | १.९ |
| विकसीत प्रदेश | १.३ | १.० | ०.८ |
| विकसनशील प्रदेश | २.१ | २.४ | २.३ |
| आफ्रिका | २.२ | २.८ | २.८ |
| लॅटीन अमेरिका | २.७ | २.७ | २.४ |
| उत्तर अमेरिका | १.८ | १.३ | १.० |
| उदेंत आशिया | १.७ | २.२ | १.८ |
| दक्षिण आशिया | २.२ | २.४ | २.३ |
| युरोप | ०.८ | ०.८ | ०.६ |
| ओशिॲनिया | २.१ | १.७ | १.९ |
| रशिया | १.७ | १.२ | ०.९ |

संवसारीक लोकसंख्येचे वाडीचो कल १७५० उपरांत लोक संख्येची वाड नेटान जावंक लागली. येरादारीच्या साधनांत सुदारणा जाल्ल्यान दुकळ आशिल्ल्या वाठारांक आदार करप सहज शक्य जावंक लागलें, ताकालागून मरणाचो आंकडो कमी जालो. राहणीमान सुदारलें, हाचो परिणाम म्हणून लोकसंख्या वाडत गेली. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत अर्दीमर्दी दुकळाचें अरिश्ट आयिल्ल्यान लोकसंख्येची वाड ल्हव गतीन जाली. तेउपरांत मात भौशिक भलायकी, नितळसाण हेसंबंदींची वाडटी जाण आनी उद्येगीक क्रांती हाका लागून अर्थीक उदरगत जाली आनी मरणाच्या प्रमाणांत खात्रीन उणाव दिसून आयलो. ह्याच सुमाराक आशिया, आफ्रिका आनी लॅटीन अमेरिका ह्या खंडांत जल्मप्रमाण आनी मरणप्रमाण दोनूय वयल्याच पांवड्यार रावलीं.

१९३० उपरांत दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत ह्या खंडांतल्या बऱ्याच देशांतलें मरणाचें प्रमाण उणें जावंक लागलें. आशिया आनी लॅटीन अमेरिका ह्या खंडांतली लग्नाविशींची परिस्थिती युरोपीय देशांपरस वेगळी आशिल्ल्यान जल्मप्रमाणांत उणाव जावपाचीं कांय चिन्नां नाशिल्लीं. एक खाशेली गजाल म्हळयार लोकसंख्येची ही नेटाची वाड पयलींच लोकसंख्या भरपूर आशिल्ल्या देशांतच जाली. ताका लागून संवसाराच्या पुराय लोकसंख्या वाडीचें प्रमाण व्हड

गतीन वाडपाक लागलें. हे वेगवान वाडीन १९६० च्या अदमासाक तेंगशी गांठली. ह्याच सुमाराक संवसारीक लोकसंख्या दर वर्सा २ टक्क्यांनी म्हळयार ६.८ कोटींनी वाडत आशिल्ली. तेउपरांत मात मरण प्रमाणा वांगडा जल्मप्रमाणय सकयल येत आसा. सद्याचो संवसारीक लोकसंख्यावाडीचो वर्सुकी दर १.७% इतलो आसा.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत विकसनशील राश्ट्रांतल्या बऱ्याच वाठारांनी मरणाचें प्रमाण नेटान सकयल येवंक लागलां. प्रगत देशांतल्या समाजीक संस्कृतीक बदलाक लागून जाल्ली जल्म प्रमाणांतली घट विकसनशील देशांमदीं दिसून आयलीना. मरण प्रमाणांत नेटान जावपी घट आनी थीर जननप्रमाण हाका लागून लोकसंख्येंत भरपूर वाड जाली. १९६५ उपरांत मात मरणाच्या प्रमाणावांगडाच जल्माचें प्रमाणय सकयल येवंक लागलां.

१९८० मेरेन सगळ्या विकसनशील देशांमदीं जल्मप्रमाणांत थीरवाड लोकसंख्येक (स्टेबल पॉप्युलेशन) योग्य अशी सकयली पातळी गांठली. वेवसाय वा नोकरी करपी बायलांच्या लग्नाक जाल्लो कळाव आनी ताकाच लागून प्रजोत्पादनाक लागिल्लो वेळ आनी गर्भनिरोधक साधनांचो वापर हांकां लागून प्रगत देशांतले लोकसंख्या वाडीचेर नियंत्रण पडत रावलां.

**लोकसंख्या सिध्दांत :** लोकसंख्येचो देशाचे सर्वांगीण उदरगतीकडे संबंद येता आशिल्ल्यान खूब आदीं सावन लोकसंख्येचो अभ्यास जायत आयला. लोकसंख्येचें नियोजन, तिचें नियंत्रण हे संबंदीं आधुनिक काळांत शास्त्रीय पद्दतीन विचार जाल्लो दिसलो तरी लोकसंख्याशास्त्र ही कल्पना खूब आदली. प्लेटो, ॲरिस्टोटल आनी चिनी बुदवंत हांणी आदर्श (Optimum) लोकसंख्येची कल्पना मांडिल्ली. राश्ट्र संरक्षणाखातीर व्हड लोकसंख्येचो पुरस्कार रोमन बुदवंतांनी केल्लो. इब्न खलदून (१३३२ - १४०६) ह्या मुसलमान विचारवंतान लोकसंख्येची सैमीक मर्यादा मानून चक्री परिवर्तनाचो सिध्दांत मांडलो.

जॉन ग्रॅण्ट आनी विल्यम पेटी ह्या सारकिल्ल्या सतराव्या शेंकड्यांतल्या विचारवंतांनी अर्थीक, राजकीय आनी मिलिटरी (संरक्षण) संदर्भ घेवन वाडटे लोकसंख्येचो पुरस्कार केलो. अठराव्या शेंकड्यांत टॉमस रोबर्ट मेल्यस हाणें १८१८ त 'An essay on the Principal of Population' हो प्रबंध बरोवन नवो सिध्दांत मुखार हाडलो. ह्या सिध्दांता प्रमाण लोकसंख्या ही भूमितीचे श्रेणींत तर अन्नधान्य उत्पादन गणिताचे श्रेणीन वाडटा आशिल्ल्यान थरावीक काळाउपरांत लोकसंख्येचेर दोन तरेचे निर्बंध येवन पडटात.

दळिद्र, धामी, दूकळ, झुजां सारकिल्ले सैमीक निर्बंध आनी कुटूंबनियोजन सारकिलो कृत्रीम निर्बंध लोकसंख्येचेर नियंत्रण दवरूंक पावता अशें जरी आसलें तरी विज्ञानीक उदरगतीक लागून सैमीक निर्बंधाचें प्रमाण उणें जायत वता आशिल्ल्यान मनीस निर्मीत कृत्रीम निर्बंधाकडे जाय तितलें लक्ष दिलेंना तर कालांतरान मनशाची अधोगती जावप खात्रीचें आसा.

ह्या सिध्दांताच्या आदारान लोकसंख्येची आंकडेवारी आनी अर्थीक, समाजीक विकास, उदरगत हांच्या मदलो संबंद शास्त्रीय पद्दतीन सोदून काडपाची गरज अभ्यासकांक दिसली. मेल्थसच्या सिध्दांताक सगळयांनीच आसा तसो मानून घेवंक नासलो तरी फुडाराच्या लोकसंख्या शास्त्राच्या अभ्यासांत मेल्थसच्या सिध्दांताचें योगदान घडलां. समाजवादी, मार्क्सवादी आनी सनातनवादी हांणी अर्थीक आनी समाजीक समस्यांक लोकसंख्या जापसालदार ना अशें मानून तेखातीर सदोश समाज वेवस्थेक आनी अर्थवेवस्थेक दोश दिला.

अशें जरी आसलें तरी विसाव्या शेंकड्यामेरेन भौतेक विकसित, विकसनशील राश्ट्रांनी अर्थीक आनी समाजीक उदरगतीखातीर लोकसंख्येचें नियंत्रण हें एक म्हत्वाचें उद्दिश्ट मानलां. हें उद्दिश्ट सार्थ करपाचे कार्यावळीक राश्ट्रीय म्हत्व दिलां. लोकसंख्यावाड ही अर्थीक आनी समाजीक अरिश्ट निर्माण करपाक कितपत जापसालदार आसा आनी हेर खंयच्या घटकांचो तातूंत कितलो वांटो आसा हो वादाचो विशय जालो तरी लोकसंख्यावाड आनी समाजीक, अर्थीक अरिश्ट हांचें लागींचें नातें आसा हो विचार आतां घट जायत रावला.

**भारताची लोकसंख्या :** संवसारांत लोकसंख्येप्रमाण चीनाचो पयलो, तर भारताचो दुसरो क्रमांक लागता. चीनाची लोकसंख्या १९८० चे जनगणनेप्रमाण ९८.३ कोटी आशिल्ली. भारताची लोकसंख्या १९८१ चे जनगणनेप्रमाण ६८.५ कोटी आशिल्ली. संवसाराच्या पुराय भूंय वाठारांतलो २.४% भूंयभाग भारतांत आसा, पूण लोकसंख्या १६% इतलीच आसा.

ख्रिस्तयुगाच्या पयलीं हजारांनी वर्सां भारतांत एक प्रगत संस्कृताय नंदताली म्हणपाचे बरेच दाखले आमकां मेळटात. तक्तो क्र. ४ (अ) आनी (ब) न इतिहासिक काळांतली तशेंच २० व्या शेंकड्यांतल्या भारताची लोकसंख्या दिल्ली आसा.

इ.स. १८७१ त भारतान पयली जनगणना केली. भितरल्या वाठारांतले बदल, जनगणनेचे व्याप्तींतले पूर्णतेबद्दलचे दुबाव आनी गणना पद्दतींतल्यो संभाव्य चुको, हाकालागून इतिहासीक काळांतल्या जनगणनेच्या आंकड्यांची तुळा करप कठीण. त्या काळांतल्या लोकसंख्या वाडींत नियमितपणाचो पुराय उणाव आशिल्लो, तातूंत चड-उतार आशिल्ले. ख्रिस्ता पयलीं ३०० ते इ.स. १६०० ह्या दरम्यान लोकसंख्या उणी जाली अशे तरेची घट १८७१-८१, १८९१- १९०१ आनी १९११ - २१ ह्या जनगणना काळांतूय दिसून येता. १९१८त त्या इन्फ्यूयांझाचे धामींत सुमार देड कोटी लोक मेले, हाकालागून १९११-२१ ह्या दशकांत लोकसंख्या कमी जाली.

**भारतांतले लोकसंख्येचीं अनुमानां**

| खिस्तापयलीं ३०० ते इ.स. १८९१ | | इ.स. १९०१ ते १९८१ | |
|---|---|---|---|
| (अ) | | (ब) | |
| वर्स | लोकसंख्या (कोटींत) | वर्स | लोकसंख्या (कोटींत) |
| क्रि. पयलीं ३०० | १००-१४० | - | - |
| इ.स. १६०० | १०.० | इ.स. १९०१ | २३.८ |
| १८०० | १२.० | १९११ | २५.२ |
| १८३४ | १३.० | १९२१ | २५.१ |
| १८४५ | १३.० | १९३१ | २७.९ |
| १८५५ | १७.५ | १९४१ | ३१.९ |
| १८६७ | १९.४ | १९५१ | ३६.१ |
| १८७१ | २५.५ | १९६१ | ४३.९ |
| १८८१ | २५.५ | १९७१ | ५४.८ |
| १८९१ | २७.९ | १९८१ | ६८.५ |

*तक्तो क्र.४ (अ) आनी (ब)*

तक्तो क्र.४ (अ) आनी (ब) तल्या आंकडेवारीच्या आदारान लोकसंख्यावाडीचे नदरेन काळखंडाचे तीन वांटे करूं येतात (अ) १९२१ चे पयलींचो काळखंड, (ब) १९२१-५१, (क) १९०१-८१ मदल्या ८० वर्सांत भारताची लोकसंख्या १८७.४ टक्क्यांनी वाडली. पयल्या वीस वर्सांत (१९०१ - २१) लोकसंख्या फकत ५.४ टक्क्यांनी वाडली आनी तेउपरांतच्या तीस वर्सांत (१९५१ - ८१) लोकसंख्या वाडीचो वेग ८९.७ टक्के आशिल्लो.

**भारताचें लोकसंख्या धोरण - भारतीय कुटुंबनियोजन कार्यावळः** भारताचें लोकसंख्या धोरण मुखेलपणान जननियंत्रक स्वरुपाचें आसा. हातूंत आतांमेरेन कुटुंबनियोजनाक बरेंच म्हत्व दिलां. स्वातंत्र्यापयलींच्या काळांत भारतांत संततिनियमनाचो प्रसार कांय थोडे सुवातींनी जाल्लो. आपवावुरपी संस्था सोडल्यार सरकारी पातळेर १९३० वर्सा म्हैसूर सरकारान पयलें कुटुंबनियोजन केंद्र सुरू केलें. पूण पुराय देशाखातीर सरकारी पातळेवयलो कुटुंबनियोजन कार्यावळीचे आवश्यकतायेचो उल्लेख पयले पांच वर्सुकी येवजणेच्या मसुद्यांत (१९५१) पयलेच खेप दिसून येता. लागीं लागीं १९६५ मेरेन कार्यावळीचे अंमलबजावणीक जाय तशी यंत्रणा देशांत अस्तित्वांत नाशिल्ली. काळांतरान हो उणाव भरून आयलो आनी कुटूंबनियोजन कार्यावळीन नेट धरलो. पयले पंचवर्सुकी येवजणेंत फकत ०.१५ कोटी रुपयांची गुंतवणूक आशिल्ले हे कार्यावळीचेर सातवे येवजणेंत लागीं लागीं ३,३०० कोटी रुपया खर्चूपांत आयले. आणीबाणीचो (१९७५ - ७६) चो अपवादात्मक काळ सोडलो, तर मूळ धोरणांत चडशे बदल जालेनात. जून १९७५ म्हयन्यांत आणीबाणीक सुरवात जाली आनी कुटूंबनियोजन कार्यावळींत कुटूंबनियोजनाचो आग्रो आनी कांय प्रमाणांत सक्ती करप जाली. कुटूंबनियोजन आनी सरकारी सवलती हांचो संबंद जोडप जालो. २२ म्हयन्यांच्या आणीबाणीच्या काळांत लागीं लागीं १ कोटी लोकांचेर शस्त्रक्रिया करपांत आयल्यो. तेपयलीं वर्साक सादारणपणान फकत १३ लाख शस्त्रक्रिया जाताल्यो. ह्या कांयशा सक्तीच्या निर्बिजीकरणाक धर्मीक तसो नैतीक नदरेन बऱ्याच विचारवंतांनी विरोध केलो. कुटूंब नियोजन हो लोकसंख्येचे वाडीक नियंत्रीत करपी खात्रेचो उपाय आसा हाच्या बद्दल दूमत ना. नियंत्रीत लोकसंख्या ही सद्याचे परिस्थितींत सगळ्याच राश्ट्रांचे सर्वांगीण उदरगती खातीर गरजेची जाल्या, अशें जरी आसलें तरी कुटूंबनियोजनाचो आनी समाजाच्या धर्मीक, समाजीक, नैतीक, सांस्कृतिक वेवस्थेकडेन संबंद येता आशिल्ल्यान कुटूंबनियोजनाची अतिरेकी भुमिका समा न्हय. कुटूंबनियोजन ही मेकळी (सामाजिक वेवस्थे भायली) वेवस्था समजनासतना वा तिचो अलिप्तपणान विचार करिनासतना समाजवेवस्थेच्या हेर घटकांचो विचार करून कुटूंबनियोजनाची कार्यावळ चालीक लावंक जाय. तेखातीर ते संबंदीं प्रबोधनाची खूब गरज आसा. अशा प्रबोधनाकडेन फावतें लक्ष ना दिल्ल्यान आपखोशयेचें कुटूंबनियोजन घडपाक आडखळ निर्माण जाल्या. ही आडखळ जितले बेगीन पयस जातली तितले बेगीन कुटूंबनियोजनाची कार्यावळ यशस्वी जावन अपेक्षित उद्दिश्ट जोडूंक पावतली.

- कों. वि. सं. मं.

## लोकसाहित्य : (पळेयात साहित्य).

## लोकसेवा आयोग :

आर्विल्ल्या काळांत विंगड विंगड केंद्रीय आनी राज्यस्तरीय शासकीय सेवामदीं सनदी अधिकाऱ्यांच्यो नेमणुको, तांच्यो परिक्षा आनी कार्यक्षम अधिकाऱ्यांची निवड करपाखातीर, शासनान नेमिल्लो तज्ञ मनशांचो आयोग. देशादेशाप्रमाण तशेंच काळाप्रमाण हाचे रचणुकेंत आनी कार्यपद्दतींत फरक दिसून येता. मात निवड करपाचे निकश कमी अदिक प्रमाणांत सगळ्याक सारकेच दिसून येतात. शासकीय कार्यक्षेत्र हालीं तेंपार व्हडा प्रमाणांत वाडत आसा. सरकाराक बऱ्योच नव्यो जापसालदारक्यो आंगार घेवच्यो पडटात. ह्यो वाडट्यो जापसालदारक्यो समर्थपणान पेलपाखातीर आनी सरकारान जीं ध्येय धोरणां आंखून दिल्यांत तांची अंमलबजावणी यशस्वी तरेन करपाखातीर, कार्यक्षम सनदी नोकरांची गरज आसता. अधिकारी तंत्रांत कार्यक्षम आनी बुदवंत अधिकाऱ्यांचो आस्पाव आसलो, तरय ही नोकरशाही नव्यो जापसालदारक्यो यशस्वी तरेन पेलूंक शकता. गुणवत्तेविणे हेर निकश नोकरभरतेखातीर लावचे न्हय, म्हणून तेखातीर आयज चडशा देशांनी लोकसेवा आयोग स्थापन केल्यात.

आर्विल्ल्या प्रशासनांतलें नोकरशाहीचें अनन्यसादारण म्हत्व

फाकिवंत जर्मन समाजशास्त्री मार्क्स वेबर हाणें सांगलां. ताच्या मतान नोकरशाही ही विधियुक्त अधिसत्तेचो उपेग करपी संघटना आसा. गुणवत्तेप्रमाण निवड, थरावीक पगार, शिस्त आनी अधिकारांचीं पदसोपणां, नेमाप्रमाण काम करपाची पद्दत हीं नोकरशाहीचीं कांय खाशेलपणां वेबरान सांगल्यांत. अधिकारी तंत्र पद्दतीन दर एका अधिकाऱ्याक ताचें थरावीक काम वांटून दिल्लें आसता. अधिकाऱ्याची नेमणूक जाता, निवडणूक (वेंचणूक) जायना. ही नेमणूक गुणवत्तेच्या आदारार जाता. मार्क्स वेबरान सांगिल्ल्या तत्त्वांप्रमाण सनदी नोकरनिवडीखातीर वेगवेगळया देशांत लोकसेवा आयोगाची स्थापणूक करपांत आयल्या.

संवसारांत सगळयांत पयलीं १८५५त सिव्हिल सर्व्हिस कमिशन ह्या नांवान ग्रेट ब्रिटनान लोकसेवा आयोगाची स्थापणूक केली. अमेरिकेच्या एकवटीत संस्थानांत 'स्पॉईला - सिस्टिम' अस्तित्वांत आशिल्ली. नव्या राश्ट्राध्यक्षांचे निवडीवांगडा नव्यो नेमणुको करपांत येताल्यो. पूण उपरांत प्रशासनाक थीरताय आनी सातत्य हाडपाखातीर नोकरशाहीची गरज शासनाच्या लक्षांत आयली आनी अमेरिकेंत सिव्हिल सर्व्हिस कमिशनाची स्थापणूक करपांत आयली (१८८३). ताचेपयलीं १८६८ वर्सा सिव्हिल सर्व्हिस कमिशनची स्थापना कॅनडांत करपांत आयिल्ली. ह्या सगळया सेवा आयोगाची स्थापणूक करपा फाटल्यान मुखेल मोख कार्यक्षम आनी गुणवत्ता आसपी उमेदवारांची नोकरशाहींत भरती करून घेवप हीच आशिल्ली. नोकरशाहींत वंशपरंपरागत पद्दतीन भरती जावची न्हय. तेच प्रमाण हे भरतेचेर राजकीय प्रभाव आसचो न्हय. सरकारी नोकरशाही ही तटस्थ, निःपक्षपाती, आसूंक जाय. तिणें नेमांप्रमाण खंयचेच तरेचो पक्षपात करिनासतना सरकारी काम करूंक जाय, हे विचार सगळयांक मान्य जाले.

भारतांत ब्रिटीश सत्ता स्थीर जाल्याउपरांत ह्या खंडप्राय देशाची प्रशासन वेवस्था चलोवपाखातीर ब्रिटिशांनी इंडियन सिव्हिल सर्व्हिस नांवाची सेवा सुरू केली. हे सेवेंत प्रवेश घेवपाक इत्सुक आशिल्ल्यांखातीर 'ब्रिटीश सिव्हिल सर्व्हिस कमिशन' परिक्षा घेताले. ही आय्.सी.एस.ची परिक्षा सुरवेक फक्त युरोपी लोकांखातीर आशिल्ली. पूण उपरांत ती भारतीय नागरिकांखातीर उक्ती करपांत आयली. भारतांत लोकसेवा आयोग स्थापन करपासंबंदींचो विचार पयलीं भारत सरकाराच्या १९१९ च्या सुदारणा कायद्यांत करपांत आयिल्लो. भारतांत आय्.सी.एस्.ची. परिक्षा पास जाले उपरांत प्रशिक्षणाखातीर सुरवेक इंग्लंडाक वचचें पडटा. १९२६ वर्सा भारतांत 'सेंट्रल सिव्हिल सर्व्हिस कमिशन'ची स्थापना करपांत आयली. भारत सरकारच्या १९३५ च्या कायद्याप्रमाण १९३७ वर्सा केंद्रीय लोक सेवा अयोगाची स्थापना करपांत आयली. ह्या आयोगाक आय्.सी.एस्. आनी आय्.पी.एस्. दर्जाच्या अधिकाऱ्यांची निवड करपाचो अधिकार मेळ्ळो. ह्या कायद्याच्या अनुशंगान केंद्रीय लोकसेवा आयोगाचे धर्तेर विंगड विंगड प्रदेशांनी प्रांतीय लोकसेवा आयोगाची स्थापणूक करपांत आयली. प्रशासकीय सेवांभायर जंगलखातें, शिक्षण, अभियांत्रिकी, वैजकी, ह्या सेवांतल्या नोकरांची निवड करपाचें कामूय लोकसेवा आयोगाकडेन दिवपांत आयलें. फुडाराक भारताक स्वातंत्र्य मेळून नवें संविधान आयलें. तातुंतल्या तरतुदींप्रमाण १९५० वर्सा केंद्रीय लोकसेवा आयोगाची स्थापणूक करपांत आयली.

भारतीय राजघटनेंत केंद्रीय लोकसेवा आयोग आनी राज्याचे लोकसेवा आयोग हेसंबंदींच्यो घटनात्मक तरतुदी करपांत आयल्यो. भारतीय संविधानाच्या भाग १४, अनुच्छेद ३१५ - ३२३त केंद्रीय लोकसेवा आयोग आनी राज्याचो लोकसेवा आयोग हांची रचणूक, सुवात, अधिकार, संघटना आनी कार्य हेबाबतींत तरतूदी करपांत आयल्यात. केंद्रीय लोकसेवा आयोगाच्या अध्यक्षाची आनी वांगड्याची नेमणूक राश्ट्रपती स वर्सांखातीर करता. लोकसेवा आयोगाच्या वट्ट वांगड्यांमदल्या कमीतकमी अदर्या वांगड्यांक केंद्र आनी राज्य सरकाराच्या सेवेचो कमीत कमी धा वर्सांचो अणभव आसूंक जाय. ह्या वांगड्यांची निवृत्तीची पिराय ६५ वर्सांची आसा. राज्याच्या लोकसेवा आयोगाची नियुक्ती राज्यपाल करता आनी तांची निवृत्तीची पिराय ६२ वर्सां आसता. गैर वर्तनाच्या कारणावयल्यान तांकां पदावयल्यान काडून उडोवपाची तजवीज घटनेंत आसा. राश्ट्रपती सर्वोच्च न्यायालयाची बुद्द घेवन केंद्रीय लोक सेवा आयोग आनी प्रांतीय लोक सेवा आयोगाच्या वांगड्यांक पदांतल्यान मेकळो करूंक शकता. तांकां पगारावांगडा भविश्य निर्वाह निधी आनी निवृत्तीवेतन मेळटा. निवृत्त जाले उपरांत केंद्रीय लोकसेवा आयोगाच्या वांगड्यांक राज्य लोकसेवा आयोगाचें अध्यक्षपद सोडून हेर खंयचेंच सरकारी पद आपणावपाक मेळना. आयोगाच्या वांगड्यांची संख्या कितली आसची, हाचो निर्णय राश्ट्रपती करता. राज्यांतले लोकसेवा आयोगाचे वांगडी संख्येबाबतींतलो निर्णय राज्यपाल घेता. लोकसेवा आयोगाच्या वांगड्यांनी स्वतंत्रपणान खंयच्याय तरेच्या दबावाखाला न येता काम करचें, अशी अपेक्षा आसता. म्हणून भारतांत तांकां कार्यकारी मंडळासावन आनी हेर राजकीय वेव्हारासावन वेगळे दवरपांत आयल्यात. ह्यो नेमणुको गुणवत्तेचेर जावच्यो अशी आस्त आसता.

भारतीय संविधानाच्या अनुच्छेद ३२० त लोकसेवा आयोगांनी करपाच्या कार्याधिकारांची यादी दिल्या. केंद्र आनी राज्य सरकारांच्या सेवांमदीं नेमणुको करपाखातीर परिक्षा घेवप आनी उमेदवारांची निवड करप, हें लोकसेवा आयोगाचें पयलें म्हत्वाचें कार्य आसा. केंद्रीय लोकसेवा आयोगान गरज लागता तेन्ना राज्याच्या लोकसेवा आयोगाक तांणी तशी विनवणी केल्ली आसत, तर आदार करचो. शासकीय सेवा आनी सरकारी पदां हांचेमदल्या नोकर भरतीचे पद्दतीच्या संदर्भान केंद्रीय आनी राज्य लोकसेवा आयोगांनी शासनाक

बुद्द दिवची. तशेंच शासकीय सेवांतली पदोन्नती, बदल्यो हे बाबींतलीं तत्त्वां थारावप आनी शासकीय सेवेंतली शिस्त आनी कागाळी हेबाबतींत नेम थारवप. एकाद्र्या खाशेल्या प्रस्नार जेन्ना राश्ट्रपती लोकसेवा आयोगाक सल्लो दिवपाची विनंती करतलो, तेवेळार तसो सल्लो राश्ट्रपतीक दिवचो. राश्ट्रपती संसदेंत कायदो करून लोक सेवा आयोगाचें कार्यक्षेत्र वाडोवंक शकतात. दर वर्सा आपणें केल्ल्या कार्याचो अहवाल लोकसेवा आयोगान राश्ट्रपतीक दिवचो हो नियाळ उपरांत संसदेमुखार सादर करतात. लोकसेवा आयोगाची एकाद्री शिफारस जर केंद्र सरकारान अमान्य केल्ली आसत, तर ती मान्य न करपाफाटलीं कारणां संसदेमुखार उक्तीं करचीं. राज्याच्या लोकसेवा आयोगान अशेच तरेचो आपल्या कार्याचो अहवाल राज्यपालाक भेटोवचो. घटनेंतल्या तरतूदींचो विचार केलो तर अशें दिसून येता, भारतांत लोकसेवा आयोगाचे अखत्यारींत व्हडा प्रमाणांत नोकर भरती संदर्भांतले अधिकार केंद्रीभूत जाल्ले आसात.

सद्या भारतांत केंद्रीय लोकसेवा आयोगाच्या वांगड्यांची संख्या अध्यक्षासकट णव आसा. आयोगाचें दिल्लीक स्वतंत्र कार्यालय आसा. तातूंत २२६ अधिकारी आनी सुमार १,१०० कामगार आसात. ह्या आयोगाचें प्रशासकीय काम पळोवपाखातीर एक सचिव आसून ताका आदार दिवपाखातीर एक जोडसचिव, एक परिक्षा नियंत्रक आनी १८ उपसचिव आसात. केंद्रीय लोकसेवा आयोगाचे वांगडी हे वेगवेगळ्या कार्यक्षेत्रांतल्यान आयिल्ले आसतात. एक वा दोन वांगडी प्रांतीय लोकसेवा आयोगावयल्यान वेंचिल्ले आसतात. सुरवेच्या काळांत भारतांत केंद्रीय लोकसेवा आयोगाचो अध्यक्ष चडकरून सनदी नोकर आसतालो, पूण उपरांत हेर मळांवयल्या मनशाकूय अध्यक्षपद दिताले.

वेगवेगळ्या सेवांतल्या पदांखातीर सर्तीत्मक परिक्षा घेवप, हें लोकसेवा आयोगाचें मुखेल कार्य आसा. ह्या सेवांमदल्यो सगळ्यांत म्हत्वाच्यो आनी प्रतिश्ठेच्यो सेवा म्हळ्यार भारतीय प्रशासकीय सेवा (आय्.ए.एस्.), भारतीय पोलीस सेवा (आय्,पी.एस्.), भारतीय परराश्ट्रसेवा (आय्.एफ्. एस्.), भारतीय टपाल सेवा, भारतीय सीमाशुल्क आनी अबकारी सेवा, भारतीय प्राप्तीकर सेवा, भारतीय लेखा आनी लेखापरीक्षणसेवा, भारतीय वनसेवा, भारतीय राजस्व सेवा आदी. अभियांत्रिकी, रेल्वेअभियांत्रिकी, सचिवालय, संचार, आरोग्य मंत्रालयाची वैजकी सेवा आदी सेवांचोय तातूंत आसपाव जाता. राश्ट्रीय संरक्षण प्रबोधिनी वायुदळ अकादमी हाच्योय प्रवेश परिक्षा आनी अधिकारी पदाच्यो परिक्षाय केंद्रीय लोकसेवा आयोग घेता.

भारतांत लोकसेवा आयोग नोकरभरतीचें काम दोन पद्दतींचो वापर करून करतात. भरतेचो पयलो प्रकार हो स्पर्धात्मक लेखी परिक्षेंतल्यान भरती करून घेवप. तर दुसरो प्रकार प्रत्यक्ष मुलाखतींतल्यान नोकरभरती करून घेवपाचो आसा. दुसरे पद्दतीन भरपाचे सुवातीची जायरात दिसाळ्यांनी दितात. त्या पदाखातीर जे उमेदवार लायक आसात, तांकां मुलाखती खातीर आपयतात. मुलाखतींत जे उमेदवार योग्य दिसतात, तांच्या नांवाची शिफारस लोकसेवा आयोग सरकाराक करता. सरकारी सेवांमदीं आतां वेगवेगळ्यो खाशेल्यो सेवा निर्माण जाल्ल्यो आसात. तेसंबंदींचो अभ्यासक्रम सुरू करून तातुंतल्यो पदव्यो विंगड विंगड विद्यापिठां विद्यार्थ्यांक दितात. तांची संख्या उणी आसता, म्हणून तांकां सर्ती परिक्षेक बसपाची गरज नासता. ह्या सेवांमदीं शिक्षण आनी प्राध्यापक, अभियंते, वैजकी, विज्ञानिक, तंत्रज्ञ आदींचो आस्पाव जाता.

भारतीय प्रशासन सेवेचे परिक्षेक बसपी उमेदवाराची पिराय उण्यांतउणी २१ वर्सां आनी चडांतचड २६ वर्सां इतली आसची पडटा. अनुसूचित जाती आनी जमातींखातीर संविधानांतलो भाग १६ अनुच्छेद ३३५ प्रमाण कांय सुवाती राखीव दवरपांत येतात. शिक्षणिक, सामाजिक आनी सांस्कृतिक नदरेन फाटीं आशिल्ल्या जातीजमातींक प्रशासनांत फावोशें प्रतिनिधित्व मेळप गरजेचें आसा आनी तेखातीरूय राखीव सुवातीचें धोरण भारत देशान आपणायलां. अनुसूचित जाती आनी जमातींच्या उमेदवारांक पिरायेंत थोडी सूट (मेकळीक) दिल्ली आसा. १९७९ त केंद्र सरकारान पिरायेची मर्यादा २६ वर्सांवयल्यान २८ वर्सांचेर व्हेली. पूण १९८६ त तातूंत परत बदल करून ती परत २६ वर्सांचे केली. खंयच्याय उमेदवाराक फकत तीन खेपो हे परिक्षेक बसूंक मेळटा. हे परिक्षेक बसपी उमेदवारालागीं खंयच्याय मान्यता आशिल्ल्या विद्यापिठाची पदवी आसप गरजेचें आसता.

सुरवेच्या काळांत केंद्रीय लोकसेवा आयोगाची परिक्षा ही दोन थरांनी वांटिल्ली आसा. मुखेल लिखित परिक्षा आनी तोंडी परिक्षा. लेखी परिक्षेखातीर लाखांपरस चड विद्यार्थी बसूंक लागले. हे समस्येचो विचार करपाखातीर १९७५ त सरकारान डॉ. एस्. कोठारी हांचे येजमानकेखाल समिती स्थापन केली. १९७६ वर्सा हे समितीन आपलो अहवाल दिलो. तिणें अशी सुचोवणी केली, सर्त परिक्षा तीन थरांचेर घेवपांत येवची, सगळ्या उमेदवारांखातीर प्राथमिक (मुळावी) चांचणी परिक्षा घेवची आनी तातूंत उत्तीर्ण जाल्ल्या वेंचीक उमेदवारांची मुखेल लेखी परिक्षा घेवची. हे समितीन अशेंय मत उक्तायलें, हेर भारतीय भाशांतल्यान उत्तर पत्रिका बरोवपाक परवानगी दिवची. ह्यो सुचोवण्यो केंद्र सरकारान मानून घेतल्यो आनी १९७८ सावन तीन थरांवयली सर्त परिक्षा घेवपाक सुरवात जाली.

मुळावी चांचणी परिक्षा दर वर्सा जून म्हयन्यांत घेवपांत येता. हे खातीर दोन प्रस्नपत्रिका आसतात आनी प्रस्नांचें स्वरूप वस्तुनिश्ठ पद्दतीचें आसता. तातुंतली पयली प्रस्नपत्रिका सामान्य ज्ञानाची देडशें गुणांची आसता, तर दुसरी प्रस्नपत्रिका इत्सूक विशयाची तीनशें गुणांची आसता. हे मुळावे चांचणी परिक्षेंत जे उमेदवार उत्तीर्ण जातात, तांकां मुखेल लिखित (बरोवपाची) परिक्षेक बसपाची मेकळीक

दिवपांत येता.

मुखेल लेखी परिक्षेंत उमेदवाराचे बुद्दीमतेचो आनी विशय ज्ञानाचो खरो कस कळून येता. हे परिक्षेंत दर एक तीनशें गुणांच्यो आठ प्रस्नपत्रिका आसतात. तातुंतली एक प्रस्नपत्रिका - खंयचीय १) भारतीय भास, २) इंग्लीश भास, ३) आनी ४) सामान्यज्ञान, ५) आनी ६) ऐच्छीक विशय, ७) आनी ८) दुसरो ऐच्छीक विशय. भारतीय भास विशयाचे पत्रिकेंत मेळिल्ल्या गुणांचो वट्ट गुणांमदीं आस्पाव करपांत येता. हे परिक्षेंत निबंदात्मक प्रस्न विचारपांत येतात आनी उमेदवाराच्या विशयाच्या ज्ञानाची बारीकसाणेन तपासणी करतात. हे परिक्षेंत जे विद्यार्थी उत्तीर्ण जातात, तांकां दिल्लींत जावपी तोंडी परिक्षेक आपयतात. तोंडी परिक्षेक २५० गूण आसतात. मुखेल लेखी परिक्षेक मेळिल्ले गूण आनी तोंडी परिक्षेक मेळिल्ले गूण हांकां एकठांय करून गुणवत्ता यादी तयार करपांत येता. हे गुणवता यादींतले उत्तीर्ण जाल्ले उमेदवार तांणी दिल्ले पयले पसंतीप्रमाण आनी तांणी हातासलेल्या गुणांप्रमाण वेगवेगळया सरकारी सेवांत आस्पावन घेतात. तेउपरांत त्या उमेदवारांक प्रशिक्षण दितात. पूण प्रशिक्षणाची जापसालदारकी लोकसेवा आयोगाचेर नासता.

- कों. वि. सं. मं.

**लोकहीतवादी :** (पळेयात देशमुख गोपाळ हरी).

**लोकायत दर्शन :** पुर्विल्लें एक भारतीय तत्त्वगिन्यान. मनीस आनी विश्व हांचेसंबंदींचें दर्शन घडोवपी तो एक भौतिकवाद. हें दर्शन पयलीं बृहस्पतीन आनी चार्वाक हांणी मांडलें अशें म्हण्टात. इ.स. पयलीं सातव्या - सव्या शेंकड्यासावन, इ.स.च्या चवदाव्या - पंदराव्या शेंकड्या मेरेनच्या संस्कृत, पाली आनी अर्धमागधी भाशांतल्या साहित्यांतल्यान तें मेळटा. ताचेवयल्यान लोकायतिकांची ज्ञानमीमांसेची स्वतंत्र अशी एक पद्दत आशिल्ली, तांचें स्वताचें एक प्रमाणशास्त्र आशिल्लें आनी ताका अणसरुनूच ते विश्ववेपाराविशीं आनी मानवी जिणेविशीं हेर सगळया दार्शनिकांपरस वेगळें अशें सांगता अशें दिसता. हेर दार्शनिकांनी मानिल्ल्या प्रत्यक्ष, अनुमान, उपमान आनी शब्द ह्या चार प्रमाणांतल्या लोकायत संप्रदायाक फकत प्रत्यक्ष हेंच प्रमाण पुरायतरेन मान्य आशिल्लें. हाचेभायर प्रत्यक्षनिश्ठ आनी अनुभवजन्य अशे तरेचीं अनुमानां मानपाक लोकायतिकांची हरकत नाशिल्ली. वेद, पुराणां, जैनांचें आगम वा बौध्दांचे त्रिपिटक ग्रंथ अशा खंयच्याय ग्रंथाच्या प्रमाण्याक ते खर विरोध करतात. तांच्या मतान शब्द वा आप्तवाक्य हें ज्ञानसाधन न्हय.

लोकायतिकांच्या मतान आत्मो हो देहापरस वेगळो न्हय. ईश्वर, भूत, पिशाच, स्वर्ग, नरक, पुनर्जल्म ह्यो सगळयो काल्पनिक आनी मिथ्या आसात. पृथ्वी, जल, तेज आनी वायू हीं चार भूतद्रव्यांच आसात आनी तांचेंच शरीर जावन तातूंत चैतन्य वा जाणीव हो गूण उत्पन्न जाता. अर्थ आनी काम हींच मानवी उद्दिश्टां; राजकीय सत्ता गरजेची; प्रत्यय हेंच मुखेल साधन आसा अशें ह्या तत्त्वगिन्यानाचो थोडक्यांत आपरोस आसा. प्रत्यक्षपणान आनी अणभवान जें समजता, ताचेवयल्यान विधवेपाराविशीं ते म्हण्टात की ईश्वर नांवाची विश्वाचो कोण एक निर्मातो आनी नियंता आसा अशें मानपाची गरज ना. बौध्द आनी जैनूय निरीश्वरवादी आसले तरी ते सर्वव्यापी आनी त्रिकालाबाधित असो कर्मसिध्दान्त आनी जल्म - मरण परंपरा मानतात. लोकायतिकांक ईश्वराभशेन कर्मसिध्दांन्त आनी जल्म - मरण परंपरा ह्योय गजाली मान्य नात. लोकायतिकांच्या तत्त्वगिन्यानांत ईश्वर ना, कर्मफल ना, आत्मो ना, मोक्ष ना आनी परलोक वा पुनर्जल्मय ना. तांच्या मतान हें विश्व भूतात्मक आसा. उत्पत्ती, स्थिती, लय हे सगळे स्वभावात्मक आसात. विश्ववेव्हाराचें स्पश्टीकरण करपाखातीर ईश्वर आसा अशें मानपाचें कारण ना.

सर्वदर्शन संग्रहांत म्हणिल्ले प्रमाण चार्वाकाच्या मतान, भोवजनांच्या हितारवातीर तांच्या मताचो आलाशिरो घेवन लोकांक कर्मकांडात्मक धर्मांतल्यान सोडोवप गरजेचें आसा. जगांत दुख्खां आसात, हें लोकायतिकांकूय दिसता पूण जिणेकडेन फाट करची, जप तप करचो वा संन्सास घेवचो हें तांकां मान्य ना. सुखी जीण जगपाखातीर वेपार, शेतवड, सरकारी नोकरी ह्या उपायांनी धनार्जन करचें, पूण आग्निहोत्र, भस्म लावप हीं बुध्दी आनी पराक्रम नाशिल्ल्यांच्या जीवनाचीं साधनां आसात अशें ते मानतात. विश्ववेपारासंबंदींचें आनी वैयक्तिक जिणेसंबंदीचें आपलें तत्त्वज्ञान प्रतिपादन करतना लोकायतिकांनी कांय म्हत्वाचे सामाजिक विचारूय सांगल्यात. ईश्वर आनी धर्म मानिनाशिल्ले चार्वाकपंथीय राजसत्ता मानपाक तयार आशिल्ले. कारण तांच्या मतान शासन ही समाजधारणे खातीर आवश्यक अशी गजाल आशिल्ली. लोकायतिक वर्णभेद आनी जातिभेद अशास्त्रीय आनी कृत्रिम आसात अशें ते मानताले. लोकायतिक बायलमुक्तीचे कट्टर पुरस्कर्ते. चार्वाक वा लोकयत हे सामाजिक न्यायाखातीर झगडपाक सिध्द आशिल्ले.

जीवजगताचें पुराय तरेन भौतिक अशें स्पश्टीकरण आनी प्रत्यक्षनिश्ठ तर्कशास्त्राचेर आदारिल्लें लोकयतशास्त्र अशें इ.स. पयलीं सव्या शेंकड्यांतच सांगलां. तें सांगपी अजित केशकंबली नांवाचो तत्त्वज्ञ आनी ताचे विचार हांची दखल बौध्द ग्रंथांतल्यान घेतल्या. बुध्दकाळांत स्थापित जाल्ल्या ह्या दर्शनाचें पयलें नांव 'लोकायत' अशेंच दिसता. कौटिलीय अर्थशास्त्रांत लोकायतदर्शन ही आन्वीक्षिकी आसा, अशें म्हळां. इ.स. पयलींच्या आठव्या - सातव्या शेंकड्यासावन बार्हस्पत्य आनी लोकायत हे शब्द सारक्या अर्थान वापरल्यात. ह्याच काळांत चार्वाक शब्दूय वापरला. पुर्विल्ल्या साहित्यांत लोकायतिक वा चार्वाक पंथीय म्हणून खूबशा व्यक्तिनामांचे निर्देश येतात.

ह्या दर्शनाचें मूळ लोकायत हें नांव चडशें ना जावन चार्वाकदर्शन म्हणुनूच नामनेक पावलें. हाचेवयल्यान चार्वाकान ह्या दर्शनाची बरी वेवस्थित अशी फेरमांडणी करून, ताचो प्रचार केल्लो आसूंक जाय हें स्पश्ट जाता. एका कोरांतिल्ल्या लेखांत आयिल्ल्या लोकायतनगर ह्या स्थळाच्या नांवाचोय विचार करप गरजेचें. हांगा लोकायतिकांची एकाद्री संघटना वा शिक्षणसंस्था आसुंये. कांय शिलालेखांतूय लोकायतिकांचे उल्लेख आसात.

प्राचीन भारतांत, वेगवेगळया काळांत जीं तत्त्वगिन्यानां मुखार आयलीं तातूंत चार्वाकदर्शनाक एक खाशेलें अशें स्थान प्राप्त जालां. केवळ तत्त्वज्ञानाखातीर तत्त्वज्ञान अशें न घडटा ताच्याफाटल्यान बुध्दिवादाखातीर निर्माण केल्ल्या बंडाची फाटभूंय आसा. तर्कविसंगत आनी बुद्धिप्रामाण्य ना मानपी कल्पनांबरोबर व्हांवनासतना जिविताचो आस्वाद घेवपाचो उलो ह्या तत्त्वज्ञानांत आशिल्लो. धार्मिक, सांस्कृतिक अशी व्हड परंपरा आशिल्ल्या भारतांतले समाजवेवस्थेंत चार्वाकदर्शनाचो म्हणपा इतको प्रभाव पडलोना आसलो तरी ताणें ते दिकेन विचार करपाची प्रेरणा निश्चितपणान दिली म्हणूं येता.

- कों. वि. सं. मं.

**लोकेश्वर :** एक बोधिसत्व. जायते कडेन हाच्यो मूर्ती मेळटयात. बिहारांतल्या कहलगांव हांगा पद्मासन घालून ध्यानस्थ बशिल्ली लोकेश्वराची मूर्त मेळ्ळया. तिच्या आंगार वेगवेगळे अलंकार आसून, भोंवतणची प्रभावळय अलंकृत आसा. तिचें मुखामळ कोमल आनी सोबीत आसा. नालंदा हांगा स हात आशिल्ली लोकेश्वराची पाशाणी मूर्ती मेळ्ळया. बँकॉक हांगाच्या राश्ट्रीय संग्रहालयांत लोकेश्वराच्यो तीन मूर्ती दवरल्यात. तातुंतली एक करड्या रंगाची पाशाणाची आसून ती बोधगया हांगाची आसा. दुसरी मूर्त काळी ब्रॉंझची आसून उबी आसा. हे मूर्तीच्या दाव्या हातांत कमळ, गळयांत रत्नहार, हातांत बाजुबंद आनी मस्तकाचेर मुकूट आसा. ह्या संग्रहालयांतली तिसरी मूर्त धड आनी शिर अशा स्वरुपांत आसा. तिच्या गळयांत अलंकार, भुजांचेर बाजुबंद आनी मस्तकाचेर केशकलाप आसा. जावा हांगा बोरोबुदूरलागसारच्या चंडी वनोनच्या देवळांत लोकेश्वराची एक सोबीत मूर्त आसा.



लोकेश्वराची पाशाणमूर्ती - जावा

लोकेश्वर नांवाचे मूर्तीचो दुसरो एक प्रकार आसा. बौध्द देवता पद्मपाणी अवलोकितेश्वर आनी हिंदू देवता शिव, विष्णु आनी सूर्य हांच्या संयोगान शिल्पकारांनी शिवलोकेश्वर, लोकेश्वर विष्णु आनी सूर्य लोकेश्वर अशो संयुक्त देवता निर्माण केल्यो. हे तरेच्यो मूर्ती उदेंत भारतांत, चडकरून बंगालांत मेळटात. कलकत्त्याच्या आशुतोष संग्रहालयांत शिवलोकेश्वराची पितुळची प्रतिमा आसा. ही मूर्त द्विभूज आसून तिच्या उजव्या हातांत कपाल आनी दाव्या हातांत त्रिशूळ आसा. तिच्या मुकुटाचेर ध्यानी बुध्द अमिताभ हाची ल्हानशी प्रतिमा आसा. ह्याच संग्रहालयांत एका भग्न शिल्पखंडार सूर्यलोकेश्वराची प्रतिमा आसा. तिचो फकत वयलो अर्दो भाग दिश्टी पडटा. मूर्तीच्या दोन हातांत दोन कमळां आसून जटामुकुटाचेर ध्यानी बुध्द अमिताभ हाची ल्हान प्रतिमा आसा. बंगालांतल्या सुरोहोर हांगा विष्णु लोकेश्वराची मूर्त मेळ्ळया. ही मूर्त चतुर्भुज आसून तिच्या दोन हातांत पुराय फुलिल्लीं कमळां आनी बाकिच्या दोन हातांत गदा आनी चक्र आसा. तिच्या माथ्यार सात नागफण्यांचें छत्र आसून मदले फणयेर ध्यानी बुध्द अमिताभ हाची ल्हान प्रतिमा आसा. तिचे दोनय वटेन पद्म आनी शंख आसात. ही मूर्त इ.स.च्या १२ व्या शतमानांतली आसूंक जाय. ह्या प्रकारच्यो आनीकय कांय विष्णुलोकेश्वराच्यो मूर्ती मेळटयात. तातुंतल्यो कांय षडभूज जाल्यार कांय द्वादशभूज आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**लोखण :** सगळयांत म्हत्वाचें अशें धातुरूप मूळद्रव्य. ताचें रसायनीक चिन्न Fe; ताचो अणुक्रमांक (अणुकेंद्रांतल्या प्रोटोनांची संख्या) २६; अणुभार ५५.८४७; वितळबिंदू १,५४०° से. ह्या धातुपासून जायते मिश्रधातू तयार जातात देखून ताचो सगळयांत चड वापर जाता.

**इतिहास :** इतिहासपूर्व काळांत लोखणाचो सोद लागलो. इ.स. आदीं ४००० वर्सां आदीं अशनींतलें (धर्तरीभायल्यान आयिल्ल्या फातरांतल्यान) निकेलयुक्त लोखण मनशान पयलीं वापरलें. उपरांतच्या काळांत धातुकाचे भट्टेंत क्षपण करून लोखण मेळोवंक लागले. सुरवातीक तें थोड्या प्रमाणांत मेळटालें. देखून ताचो मोलादीक वस्तीं खातीरच वापर करताले. ईजिप्तांतले फेअरो राजे ताका भांगरा परसूय मोलादीक मानताले. पूण लोहयुगाचे सुरवातीक इ.स. आदीं सुमार १२०० प्रगलनाच्या (धातू गाळपाच्या) तंत्रांत सुदारणा जाल्ल्यान लोखण चड प्रमाणांत तयार जावपाची शक्यताय निर्माण जाली आनी तें सवाय लेगीत पडूंक लागलें. ताकालागून इ.स. आदीं ८०० उपरांत ताचो शस्त्रां, हत्यारां आनी अवजारां हांचे खातीर उपेग करूंक लागले.

युरोपा आदींच भारत, चीन आनी ईजिप्त हांगा अवजारां

आनी आयदनां करपाखातीर लोखणाचो उपेग करताले. कुतुबमिनारच्या लागसल्लो मेहरोली हांगाचो लोखणाखांबो हो इ.स. सुमार ४०० तलो आसा. तो सुमार ७.५ मीटर उंच आनी वजनान ६ टनांपरस चड आसा. हो खांबो अजून कळमेवंक ना. चडकरून हाच्या पृश्ठभागाचेर तयार जाल्ल्या चुंबकीय ऑक्साइडच्या ($Fe_3O_4$) संरक्षक पातळ थराक लागून कळमेवपापसून वा झरपापासून ताची राखण जाल्या आसुंये. हाच्यापरस व्हड आनी दोन खंडांचो इ.स. सुमार १२०० तलो एक लोखणाखांबो माळव्यांतल्या धार (मध्य प्रदेश) हांगा मेळ्ळा. सद्याच्या काळांत लोखणा जाग्यार ॲल्युमिनियम, काँक्रीट, प्लास्टीक आदी द्रव्यां कांय प्रमाणांत वापरतात आसले तरी लोखणाचें म्हत्व उणें जावंक ना.

ऑक्सिजन, गंधक, फॉस्फरस आदी मूळद्रव्यांकडे लोखणाचो सहजपणान संयोग जाता. ताकालागून मुक्त धातूच्या रुपांत तें क्वचीतच मेळटा. अशनी तशेंच ग्रीनलंडांतल्या मर्यादीत क्षेत्रांत मेळपी बेसाल्टी फातर आनी अमेरिकेच्या मिसुरी राज्यांतल्या कार्बनयुक्त गाळांत तें निकेलावांगडा मिश्र धातूच्या रुपांत मेळटा. हाचेभायर ५ ते ७% निकेलयुक्त केमॅसाइट, तशेंच ६२ ते ७५% लोखण आनी २४ ते ३७% निकेल आसपी टीनाइट ह्या अशनींतल्या खनिजांत आनी जमनीवयल्या निक्षेपांतल्या लोहनिकेल हांच्या मिश्रधातूंत लोखण मेळटा. अशेतरेन भूकवचांत, चड करून अग्निज फातरांत, लोखणाचें वजनी प्रमाण ५% आसून भूकवचांतलीं हेर मूळद्रव्यां विचारांत घेतल्यार ऑक्सिजन, सिलिकॉन आनी ॲल्युमिनियम हांच्या उपरांत ताचो चवथो क्रमांक लागता. जमनींतलें उदक आनी दर्याचें उदक हातुंतय लोखण मेळटा. १ घ. किमी. उदकांत सुमार १२ टन लोखण आसता.

हेर जायत्या खनिजांवरी लोखणाचीं खनिजांय जीवांत आनी मनशाच्या रगतांतल्या हिमोग्लोबिनांत मेळटात. मनशाच्या शरिरांत सुमार ४.५ ग्रॅ. लोखण आसून तातुंतले ६५% लोखण हिमोग्लोबिनांत आसता. हाच्या आदारान रेणुरुपांतलें ऑक्सिजन फुप्फुसांत आनी पुराय शरिरांत पावता. १% लोह वेगवेगळ्या एंझायमांत आसता आनी ह्या एंझायमांवरवीं पेशींभितर ऑक्सिडीभवनाचें नियमन जाता. उरिल्लें चडशें लोखण शरिरांत साचता आनी गरजेप्रमाण ताचें हिमोग्लोबिनांत परिवर्तन जाता. मांस, तांतयांतलो हळदुवो बलक, गाजर, फळां, गंव, पाचव्यो भाज्यो हांचेवरवीं सर्वसामान्य प्रौढ व्यक्तीक दिसाभरांत लागपी १० ते २० मिग्रॅ. तलें चडशें लोखण मेळटा.

लोखणाच्या हेर मूळद्रव्यां वांगडचीं शेकड्यांनी खनिजां भूकवचांत मेळटात. हातुंतल्या थोड्याच खनिज सांठ्यापसून लोखण मेळटा. लोखणाच्या अशा खनिज साठ्यांक धातूक साठे म्हण्टात. तातुंतल्यान ३०%- ७०% मेरेन लोखणाचें प्रमाण मेळूंक शकता. हीं धातुकां चडकरून ऑक्सायडां, कार्बोनेटां, सिलिकेटां, आनी सल्फायडां हांच्या रुपांत आसतात. हातूंत हेमॅटायट, ($Fe_2O_3$); मॅग्नेटायट ($Fe_3O_4$) आनी लिमोनायट हीं लोखणाचीं मुखेल धातुकां आसून टॅकोनायट आनी सिडेरायट ($FeCO_3$) हीं हेर धातुकां आसात. हांचेभायर पायरायट ($FeS_2$) आनी क्रोमायट ($Fe(CrO_2)$) हीं ताचीं धातुकां चडकरून गंधक आनी क्रोमियम मेळोवपाखातीर वापरतात. हातुंतल्या कांय म्हत्वाच्या धातुकांची म्हायती अशी -

**हेमॅटायट :** हातूंत सादारणपणान ६९ - ९४% लोखण आसता आनी उरिल्लें ऑक्सिजन आसता. हाचो रंग तिरव्यावरी करडो ते मंद वा भडक तांबडो आसता. शुध्द प्रकारच्या तांबड्या रंगावयल्यान रगतावरी तांबडे ह्या अर्थाच्या ग्रीक शब्दावयल्यान ताका हेमॅटायट हें नांव पडलां. हें सादारणपणान मातकट ते घट्ट रुपांत खुबशा फातरांनी दिसून येता. केन्ना केन्नाय अभ्रकावरी ल्हान कापा आकाराचे करडे ते निळसर स्फटीक मेळटात. ह्या स्फटिकांक 'लोहकाच' म्हण्टात. हेमॅटायटच्या चुंबकीय प्रकाराक मार्टाइट म्हण्टात.

**मॅग्नेटायट :** (फेरस ऑक्सायड). ह्या शुध्द प्रकारांत ७२.४% लोखण आनी उरिल्लें ऑक्सिजन आसता. हें खर चुंबकीय आशिल्ल्यान तें वेगळें करपाखातीर चुंबकीय पद्दत वापरतात. हाच्या कांय प्रकारांत टिटॅनियम मेळटात. ताका टिटॅनिफेरस मॅग्नेटायट म्हण्टात.

**लिमोनायट :** (पुडिकोराचें हेमॅटायट). हातूंत गोएथायट ($FeO(OH)$) आनी लेपिडोक्रोसायट ($Fe_4O_5(OH)_2$) हांचें वेगवेगळ्या प्रमाणांत मिश्रण जाल्लें आसता. शुध्द $FeO(OH)$. $Fe_2O_3$ त ६० - ६५% लोखण, सुमार २७% ऑक्सिजन आनी उरिल्लें उदक आसता. हाचो रंग हळदुवो आनी पुडिकोराचो वा काळो आसता. हें मेकळें मातकट वा सच्छिद्र रुपांत मेळटा. रंगीत मातयेच्या रुपांत हें संवसारांत सगळेकडेन मेळटा.

**गोएथायट :** हें खवळाच्या वा सुयेवरी स्फटिकांच्या रुपांत मेळटा. हाचो रंग हळदुवो, तांबडो वा तपकिरी आसता. हातूंत सुमार ६२.९% लोखण आनी सुमार १०% उदक आसता.

**लेपिडोक्रोसायट :** हाका लिमोनायट म्हण्टात. हें हेमॅटायटावरीं दिसता आनी ताचे गुणधर्मय हेमॅटायटावरीं आसता.

**इल्मेनायट :** ($FeTiO_3$) हातूंत ३६.८% लोखण; ३१.६% टिटॅनियम आनी उरिल्लो ऑक्सिजन आसता.

**सिडेरायट :** हातूंत ४८.२% लोखण आनी उरिल्लें कार्बन डाय - ऑक्साइड आसता. तेभायर मँगनीज, मॅग्नेशियम, कॅल्शियम आनी कोबाल्ट हीं मूळद्रव्यां आसतात. हें स्फटिकी ते मातयेच्या रुपांत मेळटा.

**पायरायट :** हातूंत ४६.६% लोखण आनी उरिल्लें गंधक आसता. हाचो रंग भांगरावरी हळदुवसार आशिल्ल्यान ताका फूल्स गोल्ड म्हण्टात. पूण तें भांगरापरस घट आसता. लोखणाचेर घांसल्यार किट पडटा देखून उजो दिवपी ह्या अर्थाच्या ग्रीक शब्दावयल्यान ताका

पायरायट हें नांव पडलां.

**पायरोटायट :** (FeS ते FeS+S); हें चुंबकीय आशिल्ल्यान ताका चुंबकीय पायरायट म्हण्टात. हातूंत ५९.४% लोरवण आनी उरिल्लो गंधक आसता. हाचो रंग कांश्यावरी ते तांब्यावरीं तांबडो आसता. हें स्फटिकी, कणमय वा संपुंजित रुपांत मेळटा. हें निकेल सल्फायडांवांगडा मेळिल्ल्यान निकेलाचो सोद घेवपारवातीर हाचो उपेग जाता.

**मार्कॅसायट :** ($FeS_2$) हाका धवें लोह पायरायट अशेंय म्हण्टात. हातूंत ४६.६% लोरवण आनी उरिल्लो गंधक आसता. हें लोरवणाचें प्राथमिक स्वरुपाचें धातूक न्ही.

**टॅकोनायट :** हातूंत लोहयुक्त फ्लिंटासारको गाळाचो फातर आसून हेमॅटायट आनी मॅग्नेटायट हांच्या अतिसुक्ष्म कणांचें वेगवेगळया प्रमाणांतलें मिश्रण आसून तातूंत २५% - ३५% लोरवण आसता.

हांचेभायर चामोसाइट, क्लोरोपाल, स्टिल्पनोमिलेन, ग्रीनालायट, मिनेसोटाईट आनी गुनेनायट ह्या लोरवणाच्या सिलिकेटी रवनिजांचो गौण धातूक म्हूण उपेग जावंक शकता.

**धातुकांची उत्पत्ती आनी प्रकार :** भूविज्ञानीक काळ आनी भुगोलीक वांटणी लक्षांत घेतल्यार लोरवणाचीं धातुकां सगळेकडे पातळिल्लीं दिसतात. कांय धातुकां संवसारांतल्या सगळयांत पोरन्या सुमार २.५ अब्ज वर्सां आदल्या फातरांत मेळळयांत. ह्या धातुकांचे सांठे भूपृष्ठालागीं कांय मीटर खोलायेपसून ते शेंकड्यांनी मीटर खोलायेमेरेन मेळटात.

हीं धातुकां वेगवेगळे रितीन निर्माण जाल्लीं आसून उत्पत्तीप्रमाण तांचे प्रकार अशे आसात - **(१) अग्निज धातुकां :** धर्तरी थंड जावच्या आदल्या काळांत शिलारसाचें स्फटिकीभवन जावन हीं धातुकां जालीं. हातूंत चडकरून मॅग्नेटायट आनी हेमॅटायट हीं खनिजां वेगवेगळया प्रमाणांत आसतात. **(२) अवसादी धातुकां:** सवकसायेन जावपी झीज, विघटन वाहतूक आनी निक्षालन ह्या क्रियांनी अग्नित फातरांतलें खनिजांचें एकत्रिकरण जावन हीं धातुकां जातात. **(३) संस्पर्शी धातुकां :** हीं धातुकां अग्नि आनी गाळाच्या फातराच्या सीमावर्ती भागांत मेळटात. हातूंत चडशीं मॅग्नेटायट, हेमॅटायट आनी ताचेवांगडा पायरायट आनी कार्बोनेटी धातुकां आसतात. **(४) जलतापीय धातुकां :** हीं गरम विद्रावांचे क्रियेन तयार जाल्लीं आसतात. **(५) परिवर्तित धातुकां :** जीवरासायनिक आनी संहतीकरणाच्या प्रक्रियांनी धातुक परिवर्तनाच्यो मालिका सुरू जावन तेवरवीं हीं धातुकां तयार जातात. **(६) बहुरुपां :** लोरवणाचीं तीन बहुरुपां आसतात. आल्फा लोरवण ७५८° से. मेरेन आसता. तें शरीरकेंद्रित घनीय संरचनेचें आसून ७६८° से. तापमानाक लोहचुंबकीय जाता. ९०६° से. तापमानाक हाचें गॅमा लोरवणांत रुपांतर जाता. गॅमा लोरवण फलाककेंद्रित घनीय संरचनेचें आनी समचुंबकीय आसता. ताचो $Fe_3C$ (आयर्न कार्बायड) वांगडा घनविद्राव जाता देखून पोलाद निर्मितीचे नदरेन तें म्हत्वाचें आसा. १,४०३° से. परस चड तापमानाक डेल्टा लोरवण निर्माण जाता.

**गुणधर्म :** लोरवण हें अशुध्द आसता. लोरवणाचो रंग रुपेरी धवो आसून तें आकार दिवपाक येवपासारकें आनी चिवट आसता. सामक्या उण्या तापमानाक लोरवण ठिसूळ आसता. तापोवन तांबडें जातकच तें मोव जाता. तें धवें दिससर तापयल्यार ताचें वितळजोडकाम करपाक मेळटा. तिरव्यापरस हाचें ताणबल कमी आसून शुध्द लोरवणाचें ताणबल ताच्याय परस उणें आसता. ताका लागून तें बांदकामाक वापरूंक मेळना. लोरवण थंड स्थितींत धाडावन ताचें बळ आनी कठिणताय वाडोवंक येता. अशें लोरवण सु. ६००° से. मेरेन तापोवन सादारण तापमानामेरेन थंड केल्यार ताका मूळचे गुणधर्म प्राप्त जातात.

लोरवणाचो सगळयांत म्हत्वाचो गूण म्हळयार तें चुंबकाकडे आकर्शित जाता. हायड्रोक्लोरिक आनी सल्फ्युरिक अम्लांत लोरवण विरगळून हायड्रोजन वायू निर्माण जाता. नायट्रिक अम्लांत लोरवण विरगळटना तापमान आनी अम्लाची संहती प्रमाण नायट्रस, नायट्रिक वा नायट्रोजन डायऑक्सायड वायू भायर पडटा. क्षारीय विद्रावांचो लोरवणाचेर परिणाम जायना. उच्च तापमानाक लोरवणाची अमोनियाकडे विक्रिया जावन हायड्रोजन आनी आयर्न नायट्रायड ($Fe_4N_2$) निर्माण जाता. दमट आनी खारे हवेंत लोरवणाचें ऑक्सिडीभवन बेगीन जाता. जाल्यार अम्लांनी ताचें संक्षारण जाता. लोरवण कळमेवप हो एक रासायनिक आविश्कार आसून तो सगळेकडे दिश्टी पडटा. हाचे दोन टप्पे आसात - (१) दमट हवेंत लोरवणाचो उदकाकडे संयोग जावन तें विद्राव्य स्थितींत वता. उदकांतल्या हायड्रोजन अणुच्या जाग्यार लोरवणाचे आयन येतात आनी हायड्रोजन लोरवणाच्या वयर पातळटा. (२) दुसऱ्या टप्प्यात हायड्रोजनाची ह्या ऑक्सिजनाकडे संयोग जावन उदक जाता आनी ह्या उदकाच्या विद्रावांतलो लोरवणाकडे विक्रिया जावन फेरिक हायड्रोक्सायड तयार जाता. निमाणें हायड्रोक्सायडाचें हवेवांगडा विक्रिया जावन तें ल्हव ल्हव कळमेवपाक लागता.

उच्च तापमानाक लोरवणाचें जावपी ऑक्सिडीभवन जावप हेंय एक प्रकारचें कळमेवप. हातूंत हवेंतल्या ऑक्सिजनाकडे लोरवणाचो संयोग जावन मॅग्नेटायट ($Fe_3O_4$) जाता आनी ४००° ते ५००° से. दरम्यान हेमॅटायट ($Fe_2O_3$) जाता.

**उपेग :** तिरवें, बीड आनी घडीव लोरवण तयार करपारवातीर वापरतात. बांदकाम आनी अभियांत्रिकी उद्योग हांच्यांत वापरपांत येवपी लोरवण हीं सगळया कामांत उपगी अशें द्रव्य आसा. लोरवण आनी ताच्या संयोगांचो वेगवेगळेकडे उपेग करतात. सगळयांत शुध्द ९९.९९% लोरवण विज्ञानीक संशोधनांत वापरतात. पिंड रुपांतलें

लोखण हें वेपारी नदरेन म्हत्वाचें आसा. घडीव लोखण हें वेपारी नदरेन शुध्द लोखण (0.0८%) मानतात. हातूंत खूब थोड्या प्रमाणांत आयर्न सिलिकेट भरिल्लें आसता. देखून ताका कळम येना. ओतीव लोखणांत शुध्द लोखणाचे थोडेच गुणधर्म आसतात. गंधक, फॉस्फरस, सिलिकोन, मँगनीज आदी अशुध्दी वांगडा जेन्ना लोखणांतलें कार्बनाचें प्रमाण 0.0५% लागीं येता तेन्ना ताका तिखें म्हण्टात. तिख्यांत लोखण आनी कार्बन आसताच तेभायर तातूंत मर्यादीत प्रमाणांत हेर मूळद्रव्यांय आसतात. सैमीक आनी कृत्रिम तरेन केल्लीं आयर्न ऑक्सायडां आनी हायड्रॉक्सायडां रंगद्रव्यां म्हणून व्हड प्रमाणांत वापरप जातात. हेमॅटायट, लिमोनायट, मॅग्नेटायट, पायरायट आनी सिडेरायट हीं खनिजां रंगीत मातयेच्या रुपांत सैमांत मेळटात. त्रिसंयुजी लोखणाचेर जटिल आयर्न सायनायड हेक्झेसायनो फेरेटाची प्रक्रिया करून 'प्रशियन ब्लू' हें गडद निळें रंगद्रव्य मेळटा.

वखदांचे निर्मितींत लोखणाचीं जायतीं संयुगां उपेगी पडटात. देखीक - फेरस ग्लुकामेट, फेरिक ब्रोमायड, फेरिक सायट्रेट, फेरिक हायपोफॉस्फायड, फेरिक मॅलेट, फेरिक फॉस्पेट, फॅरिक अमोनियम, ऑक्झॅलेट आनी टार्ट्रेट आदी.

**संयुगां :** लोखणाचीं फेरस आनी फेरिक अशीं दोन तरेचीं संयुगां तयार जातात. तेभायर उच्चतर तापमानाक हाचीं बोरॉन, कार्बन, सिलिकॉन, गंधक, फॉस्फरस हांचेवांगडा द्विआंगी संयुगां तशेंच सायनायडां, ऑक्झॅलेटे, फेरेटे, परफेरेटे ह्या सारकीं संयुगांय तयार जातात. लोखणाच्यो +२ आनी +३ ह्यो सगळयांत म्हत्वाच्यो ऑक्सिडीभवन अवस्था आसात. तेभायर +४ आनी +६ हीं ऑक्सिडीभवन अवस्थांतलीं संयुगांय आसात.

लोखण अतिविक्रियाशील धातू आशिल्ल्यान ताचीं जायतीं संयुगां तयार जातात. तीं वेगवेगळया खनिजांत आनी जीवांत मेळटात. चडकरून रंगद्रव्यां, वखदां, कीटकनाशकां, पॉलिश आदींत तांचो उपेग जाता. लोखणाचीं कांय म्हत्वाचीं संयुगां अशीं : फेरस ऑक्सायड (FeO; आयर्न मोनॉक्सायड); फेरिक ऑक्सायड ($Fe_2O_3$); फेरोफेरिक वा फेरेसोफेरिक ऑक्सायड ($Fe_3O_4$ वा FeO $Fe_2O_3$); फेरस हायड्रॉक्सायड ($Fe(OH)_2$); फेरिक हायड्रॉक्सायड ($Fe(OH)_3$); फेरस सल्फेट ($FeSo_4$(चडशें $7H_2O$); फेरिक सल्फेट ($Fe_2(So_4)_3$); फेरस क्लोरायड ($Fecl_2$); फेरिक क्लोरायड ($Fecl_3$); फेरिक नायट्रेट ($Fe(NO_3)_3.9H_2O$); फेरस सल्फायड (FeS); पायरायट ($FeS_2$); फेरस ॲसिटेट ($Fe(C_2H_3O_2)_2.4H_2O$); फेरिक ॲसिटेट ($Fe(C_2H_3O2)_3.OH$). बेसिक फेरिक ॲसिटेट ($Fe(OH)\ (C_2H_3O_2)_2$); आयर्न पेंटाकार्बोनिल ($Fe(CO)_5$); पोटॅशियम फेरिसायनायड ($K_3Fe(cN)_6$); पोटॅशियम फेरोसायनायड ($K_4Fe(CN)_6.\ 3H_2O$); फेरस अमोनियम सल्फेट ($Fe(SO_4)\ (NH_4)_2\ SO_4.6H_2o$); फेरिक अमोनियम सल्फेट ($FeNH_4\ (SO_4)_2.12H_2O$); फेरिक पायरोफॉस्फेट ($Fe_4\ (P_2O_7).\ XH_2O$).

उद्येगीक नदरेन उपेगी आशिल्ल्या लोखणाचे जायते मिश्रधातू आसात. तातुंतलो लोखण हो मुखेल घटक आसा. तिख्याचे वेगवेगळे प्रकार निर्माण करतना तातूंत घालपाच्या म्हत्वपुर्ण घटकांक लोहमिश्रकां म्हण्टात. ह्या मिश्रधातूंत लोखणावांगडा सिलिकॉन, मँगनीज, क्रोमियम, व्हेनेडियम, मॉलिब्डेनम, निओबियम, सिलिनियम, टिटॅनियम, फॉस्फरस वा हेर कांय मूळद्रव्यांतलीं एक वा जायतीं मूळद्रव्यां व्हड प्रमाणांत भरशितात. अशा कांय म्हत्वाच्या मिश्रधातुंची म्हायती अशी आसा -

**लोखण ॲल्युमिनियम :** लोखणांत ॲल्युमिनियमाची भरसण केल्यार लोखणाची विद्युत् रोधकता वाडटा आनी अशी मिश्रधातू प्रत्यावर्ती चुंबकीय मंडलांत वापरूंक मेळटा. लोखण आनी ॲल्युमिनियम हांच्यो तीन मिश्रधातू वेपारी नदरेन म्हत्वाच्यो आसात. हातुंतल्या दोन मिश्रधातूंत ॲल्युमिनियम १२% आनी १६% आसता. जाल्यार तिसऱ्यांत १६% ॲल्युमिनियम आनी ३.५% मॉलिब्डेनम आसता.

**लोखण कार्बन :** घडीव बिडाचें लोखण तशेंच पोलादाचे वेगवेगळे प्रकार हे लोखण आनी कार्बन हांचे मुखेल मिश्रधातू आसात. बरे गुणवत्तेचें घडीव लोखण हें शुध्द लोखण आसता आनी तातूंत कार्बनाचें प्रमाण 0.0३५% परस चड आसता. हाचेभायर 0.0७५ - 0.१५% सिलिकॉन, 0.१0 - 0.२५% परस उणें फॉस्फरस, 0.0२% परस उणें गंधक आनी 0.0६ - 0.0१% मँगनीज आसता. तिखीं हीं लोखणाचीं कार्बनयुक्त मिश्रधातू वा मिश्रपोलादां आसतात. कार्बनयुक्त पोलादांत मँगनीज, गंधक, फॉस्फरस, सिलिकॉन आनी केन्ना केन्नाय हेर मूलद्रव्यां गौण प्रमाणांत आसतात.

**लोखण क्रोमियम :** हातुंतले म्हत्वाचे मिश्रधातू म्हळयार घडीव कळमेना अशें तिखें. हातूंत कमीत कमी १२% क्रोमियम आसता.

**लोखण - क्रोमियम निकेल :** घडीव न कळमुपी आनी उश्णताविरोधी तिखें हो हातुंतलो मुखेल गट आसा.

**लोखण - क्रोमियम - ॲल्युमिनियम :** हातूंत जायत्या मिश्रधातूंचे विद्युत् रोध तापन घटक तयार करतात. हातूंत ७२% लोखण, २३ % क्रोमियम आनी ७.५% ॲल्युमिनियम तशेंच ५५% लोखण, ३७.५% क्रोमियम आनी ७.५% ॲल्युमिनियम आसता. हे मिश्रधातू चडांत चड २३. ५0°से. मेरेन वापरूंक मेळटात. लोखण ७0%, क्रोमियम २३% आनी ॲल्युमिनियम ५% आशिल्ल्या मिशधातुची विद्युत् रोधकता उच्च आसता.

**लोखण - कोबाल्ट :** ६.५% कोबाल्ट आसपी मिश्रधातू चुंबकीय नदरेन सौम्य आसता आनी ताची विद्युत् रोधकता उणी आसता. कोबाल्ट ४९% आनी व्हेनेडियम २% तशेंच कोबाल्ट ३५% आनी क्रोमियम १% आसपी लोखणाचे दोन मिश्रधातू वेपारी नदरेन

म्हत्वाचे आसात.

**लोखण - मँगनीज :** हातूंत ऑस्टेरिटिक मँगनीज तिखें हो म्हत्वाचो मिश्रधातू. हाचें संशोधन हेडफील्ड गांवांत जाल्ल्यान ताका हेडफिल्ड मँगनीज तिखें अशेंय म्हण्टात. हातूंत १-२% कार्बन आनी १२-१३% मँगनीज आसता.

**लोखण - निकेल :** ४० ते ६०% निकेल आशिल्ल्यान मिश्रधातू चुंबकीय नदरेन म्हत्वाचे आसात.

**लोखण सिलिकॉन :** वेपारी नदरेन हाचे दोन म्हत्वाचे वर्ग करतात - (१) सहजपणान चुंबकीकरण करपाक येवपी म्हळयार चुंबकीय सौम्य मिश्रधातूंक सिलिकॉन वा विद्युतीय तिखें म्हण्टात. (२) उच्च सिलिकॉनयुक्त ओतीव लोखण ह्या नांवान वळखुपांत येवपी मिश्रधातू संक्षारणरोधक आसतात. चुंबकीय मंडलांत वापरपांत येवपी चडशा तिख्यांत ०.५% ते ५% सिलिकॉन आसता. हाचे चडशे पत्रे आसतात.

**लोखण - टंगस्टन :** उच्चवेगी तिखें नांवाच्या वेगवेगळया जटिल मिश्रधातूंत टंगस्टन आसता.

**कठीण पृश्ठभागाचे मिश्रधातू :** दर्शनी भाग कठीण करपावातीर धातूच्या वा मिश्रधातूच्या पृश्ठभागाचेर विशिश्ट संघटनांच्या मिश्रधातूंचो थर वितळजोडकामान जोडटात. ताकालागून मूळ पृश्ठभागांत नाशिल्ले कांय खास गुणधर्म ताका प्राप्त जातात. लोखणाच्या अशा मिश्रधातूंत सामान्यपणान ५०% परस चड लोखण आनी क्रोमियम, मँगनीज, सिलिकॉन, मॉलिब्डेनम, व्हेनेडियम, टंगस्टन, निकेल, टिटॅनियम, निओबियम, बोरॉन आनी हेर मूळद्रव्यां वेगवेगळया प्रमाणांत भरशिल्लीं आसतात.

- कों. वि. सं. मं.

## लोखण आनी तिख्या उद्देग

**लोखण आनी तिख्या उद्देग :** लोखण हें धातुरूप मूळद्रव्यांतलें सगळयांत उपेगी मूळद्रव्य आसा आनी भूयेंत रसायनीक संयुगाच्या रुपांत तें भरपूर प्रमाणांत मेळटा. मूळद्रव्य वा तिखें ह्या रुपांत लोखणाचीं हत्यारां, यंत्रसामुग्री, वाहनां अशो जायत्या तरेच्यो वस्तू आनी व्हड प्रमाणावयल्या बांदकामांतले चडांत चड सांरचनिक घटक म्हणून मानवी संस्कृतींत उपेग जाल्लो आसा.

**इतिहास :** लोखणाचो सोद ब्रॉंझयुगाच्या निमाणच्या काळांत अकस्मात लागलो. जमनीर उगड्या पडिल्ल्या तांबड्या लोह धातुकाचेर शेकोटी पेटयतकच ताच्या गोबरांत धातवीय लोखण पयलीं मेळ्ळें. लोखणाचे उपेगी गुणधर्म समजतकच आनी तांबडे लोह धातूक हो ताचो उदग्म आशिल्ल्याचें कळटकच लोखणाच्या उत्पादनाक सुरवात जाली.

प्रचलित वाऱ्याक लागून उगड्या पडिल्ल्या धातुकाच्या कडांमुरवावयल्या खड्ड्यांत उजो पेटोवन आनी मुरवार फातराच्यो ओबडधोबड भट्ट्यो तयार करून तातुंतलो उजो भात्यान फुलोवन आर्यन ऑक्सायडाच्या क्षपणान धातवीय लोखण मेळयलें. लोखणाचीं हत्यारां आनी शस्त्रां हांकांलागून अतिपुर्विल्ल्या देशांत नवें युग सुरू जालें. इजिप्तांत जायत्या पुर्विल्ल्या अवशेशांनी लोखण मेळ्ळां. इ.स. आदीं १३०० पसूनच्यो लोखणाच्यो जायत्यो प्रगलन भट्ट्यो इझ्रायलांत मेळ्ळयात.

लोह धातुकां तांब्याच्या आनी कथिलाच्या धातुकांपरस चड प्रमाणाचेर मेळटात. पूण ताचें प्रगलन करप कठीण आसता. धातुकापसून तांबें इ.स. आदीं ३५०० च्या सुमाराक मेळयलें. प्रगलन केल्लें लोखण ते उपरांत सुमार १५०० वर्सांनी दक्षिण ॲनातोलियांतल्या (आशिया मायनर) हिटाइट आनी कालबीझ लोकांनी तयार केल्ल्या वस्तूंत मेळटा. इ.स. आदीं सुमार १,००० मेरेन पॅलेस्टायन आनी इजिप्तांत लोखण आनी ब्रॉंझ हांचो व्हड प्रमाणांत उपेग जावंक लागिल्ल्याचो पुरावो उपलब्ध आसा. नैऋत्य आशियांतल्यान लोह प्रगलन पद्दतीचो हेरकडे प्रसार जालो. इ.स. आदीं ५०० म्हळयार ही पद्दत चीन मेरेन पावली. चीनांत लोह धातुविज्ञानाचो विकास वेगवेगळया मार्गांनि जालो. बीडाचो (ओतिव लोखण) सोद चीनांत हेर लोकांपरस पयलीं लागलो. ह्या शतमानांत चीनांत लोखण भरपूर प्रमाणांत मेळूंक लागलें. लोणारी कोळशा जाग्यार फातरी कोळसो वापरांत आयलो आनी अवजारां तशेंच शस्त्रां तयार करपावातीर व्हड प्रमाणांत लोखणाचो उपेग जावंक लागलो. पोलाद तयार करपाच्यो जायत्यो प्रक्रिया प्रचलित आशिल्ल्यो. सातवें शतमान म्हळयार चिनी तिख्यानिर्मिती पद्दत जपान मेरेन पावली.

इ.स. आदीं ३५० म्हळयार लोह प्रगलनाची तंत्रविद्या नैऋत्य आशियांतल्यान सहारावरवीं अस्तंत आफ्रिकेंत आनी उपरांत दक्षिण आफ्रिकेंत गेली. थंय लोखणाचें व्हड प्रमाणाचेर उत्पादन करपी जायतीं केंद्रां स्थापन जालीं. पूण चडशें लोखण चाकू, भाल्यांचीं तोंकां, कुदळीवरी अवजारां हेरवातीर वापरप जाता.

रोमी लोकांनी ग्रीक लोकांकडल्यान लोहकामाच्या तंत्राचो वारसो घेतलो आनी तातूंत बरीच सुदारणा करून ताचो उत्तर युरोपांत प्रसार केलो. मध्य युरोपांतल्या पुरातत्त्वीय उत्खननांत हत्यारां, शस्त्रां, चिलखतां ह्यासारक्यो वस्तू मेळिल्ल्यो आसात. इ.स. २०० च्या सुमाराक उत्तर युरोपांत नवें सुविकसीत घडाई तंत्र प्रचारांत आयलें. ह्या तंत्रान लोखण आनी तिखें हांचो सोबीत आकृती बंधांत संयोग जातालो.

इ.स. सुमार १००० पसून तयार करपांत येवपी दमास्कस तलवारीक तिख्या पातें आशिल्लें. हीं दमास्कस पातीं भारतीय ओतीव तिख्यापसून (वुट्स तिखें) तयार करताले.

तेराव्या शतमानासावन उत्तर युरोपांत जाल्ल्या तांत्रिक विकासाक लागून युरोपीय धातुविज्ञान संवसाराच्या हेर वाठारांत

वापरांत आशिल्ल्या धातुविज्ञानापरस वेगळया मार्गान वचूंक लागलें.

'कॅम' ह्या साधनाचो सोद लागिल्ल्यान जलचक्केच्या दांड्यापसून फुडें फाटी जावपी गती मेळून तेवरवीं भातो वयर सकयल करप आनी घडायेचे तुतये वयर उखलप शक्य जालें. चवदावें शतमान म्हळयार जर्मनी आनी ऑस्ट्रिया हांगाच्यो ऊंच घडाईशाळा दर दिसा ४०० किग्रॅ. लोखण तयार करताल्यो. दक्षिण फ्रांस आनी उत्तर स्पेन हांगा तेराव्या शतमानांत प्रचारांत आयिल्ल्या आनी उदका शक्तीचेर चलपी कॅटॅलायन घडाईशाळेंत हाचेपरस चड प्रमाणांत लोखण तयार जातालें. अशो घडाईशाळा एकुणिसाव्या शतमानांतय प्रचलित आशिल्ल्यो. कॅटलायन भट्टी ही आर्विल्ले झोतभट्टेचें मुळावण म्हणूं येता. स्टयूकोफेन ह्या सगळयांत सुरवेच्या भट्टेचो सद्या स्टीरिया ह्या नांवान वळखुपांत येवपी वाठारांत मध्ययुगांत उदय जालो.

अस्तंत युरोपांत सोळाव्या शतमानाचे सुरवेक सगळेकडे झोतभट्ट्यो उपेगांत आशिल्ल्यो. इ.स. १५००च्या सुमाराक इंग्लंडांत पयली झोतभट्टी काडली. झोतभट्टेंत घनरुपा जाग्यार द्रवरुप लोखण मेळटा आशिल्ल्यान आयदनां, तोफो ह्या सारक्यो वस्तू ओतकामान तयार करपाखातीर ताचो उपेग जावंक लागलो.

प्रबोधन काळांत युरोपांत झुजाअवस्था आशिल्ल्यान लोखण उद्देगाचे वाडीक बरो नेट आयलो. तटबंदी आनी तोफखानो हातुंतल्या सुदारणांक लागून लोखणापसून तयार केल्ल्या शस्त्रांची मागणी वाडली. सतराव्या शतमानाच्या मदेगाक झोतभट्टेखातीर लागपी कोळशा जाग्यार फातरी कोळसो इंधन म्हूण वापरप बरें शक्य जालें. पूण चडशा कोळशांत गंधकाचें प्रमाण चड आशिल्ल्यान तयार जावपी लोखण सामान्य प्रतीचें जातालें. हेन्री कोर्ट हाणें १७८४ त कच्च्या लोखणाचें वर्धनशील घडीव लोखणांत रुपांतर करपाची ढवळणी प्रक्रिया सोदून काडली. हें लोखण वितळावपाखातीर ताणें परावर्तन भट्टेचो उपेग केलो. १८७० मेरेनच्या काळांत रेल्वेपूल आनी जहाजां हांकां लागपी लोखणाची निर्मिती हेच पद्दतीन करताले.

मध्ययुगाउपरांतच्या काळांत तिख्या उद्देगांत म्हत्वाचो विकास घडून आयलो. चेकोस्लोव्हाकियांतल्या प्राग हांगा सादारण १५७४च्या आदी लोखणांतल्या कार्बन प्रमाणाचेर अदीक बारीक नियंत्रण दवरपाची पद्दत उपेगांत आयली. कार्बन युक्त घडीव लोखणाच्यो कांबी लोणारी कोळशाची पूड भरिल्ले बंद पेटयेंत दवरताले आनी एक सप्तकभर तांबडे तापयल्ले स्थितींत दवरताले. तेन्ना कोळशांतलें कार्बन लोखणांत अंतप्रविश्ट जावन लोखणाचें तिख्यांत रुपांतर जातालें. हे पद्दतींत लोखणाच्या अंतर्भागांत तयार जावपी कार्बन मॉनोक्सायडाक लागून तिख्याचो मुखावयलो भाग फोड आयिल्लेवरी दिसता. देखून अशा तिख्याक पुळीदार (ब्लिस्टर) तिखें म्हण्टात. ह्या तिख्याचे ल्हान कुडके करून वितळजोड कामान जोडल्यार कर्तन तिखें हो चड एकजिनसी प्रकार तयार करूंक मेळटा. उच्च दर्जाची कटलरी तयार करपाखातीर ह्या पोलादाचो उपेग करताले. सतरावे शतमानाचे सुरवेक जर्मनींतलें न्यूरेंबर्ग हे कर्तन पोलाद तयार करपाचें म्हत्वाचें केंद्र जालें. अठराव्या शतमानांत इंग्लंडांतलें शेफील्ड हें तिखें आनी कटलरी उद्देगांचें मुखेल केंद्र जालें.

घडीव लोखणापसून तिखें तयार करतात देखून तातूंत चिखोल उरतालो. ह्या चिखलद्रव्याक लागून तिख्याचें बळ उणें जातालें. बेंजामीन हंटसमेन हाणें तिखें वितळावपाक येता इतली घट मूस तयार केली. तशें केल्ल्यान चिखोल वयर उफेता आनी ओतीव तिख्याचो निर्दोश पिंड ओतूंक मेळटा. एकुणिसाव्या शतमानाचे निमाणें मेरेन अशें तिखें तीक्ष्ण हत्यारां आनी कटलरी खातीर वापरप जातालें.

अमेरिकेंतले मुळचे लोक अशनींपसून मेळपी आनी ग्रीनलंडांत मेळपी शुध्द धातुरुपांतल्या लोखणाचो कांय प्रमाणांत वापर करताले. व्हर्जिनियांतल्या फॉलिंग क्रिक हांगा तशेंच १६४० वर्सा मॅसॅचूसेटसांतल्या सॉगस हांगा लोखण तयार करपाचे यत्न जाल्ले. १६४७ त झोतभट्टी, बिडाचें घडीव लोखण कामांत रुपांतर करपाची रांदन आनी लोखण कापपी यंत्र चालू केल्लें. पूण हातूंत तांकां व्हडलेंशें यश मेळळें ना.

इ.स. १७२० च्या सुमाराक निर्याती खातीर आनी अंतर्गत उपेगाखातीर लोखण तयार करपाच्या कारखान्याक परत चालना मेळ्ळी. ह्या काळांत घडीव लोखण तयार करपी लोखण घडाई शाळांची संख्या सगळयांत चड आशिल्ली. ह्या उद्देगावरवीं अमेरिकन क्रांतीक (१७७५ - ८३) झुजा साहित्य पावयलें आनी उद्देगीकरणाच्या सुरवेच्या टप्प्यांतल्या लोखणाची पुरवण केली.

अमेरिकेंतल्या वनापसून लोखणनिर्मितीक भरपूर इंधन मेळळें. पूण हातूंत बरोच वेळ वतालो. पेनेसिल्व्हेनियांत खारजां बांदपांत येतकच तेवरवीं शारी बाजारपेठेंत धाडपाक येता अशी अँथ्रेसायट ही फातरी कोळशाची जात इंधन म्हूण वापरूंक लागले. १८३० म्हळयार पेनेसिल्व्हेनियांत ढवळणी प्रक्रिया आनी अँथ्रेसायट हांचो वापर करपी एक भट्टी उपेगांत आशिल्ली. धा वर्सां उपरांत पेनेसिल्व्हेनियांत आनी न्यू जर्सींत अँथ्रेसायट इंधन वापरपी झोतभट्ट्यो तयार करपांत आयल्यो. लोखणाचे उपलब्धतेक लागून अमेरिकेच्या अंर्तगत येरादारीचें रूप बदलून रेल्वेचें जाळें पातळळें. नव्या धातुकाचे आनी कोळशाचे साठे सांपडिल्ल्यान पेनेसिल्व्हेनिया वांगडाच ओहायओ, इंडियाना आनी इलिनॉय हांगा लोखणाचीं प्रगलन संयंत्रां प्रस्थापीत जालीं. १८५० म्हळयार पिग लोखणाचें उत्पादन वाडलें तशेंच प्रगलन भट्ट्यो कार्यान्वित जाल्यो. १८७४ म्हळयार भट्ट्यांची संख्या ६८० मेरेन वाडली. १९४१त चार अमेरिकन भट्ट्यो खास उपेगाखातीर लागपी सामकें शुध्द आनी गंधकमुक्त लोखण मेळोवपाखातीर लोणारी कोळशाचो वापर करताले.

१८६० मेरेन तिरवें हें खर्चिक उत्पादन आशिल्लें. ताकालागून तें उण्या प्रमाणांत तयार करताले. उपरांतच्या काळांत उद्योगधंद्यांतले तिरव्याचे सुवातींत खूब फरक पडलो. बेसेमर पद्दतींत वितळिल्लें पिग लोखण भट्टेंतल्यान भायर काडटकच तातुंतल्यान हवा फुकून ताचें तिरव्यांत रुपांतर करप जातालें. हवेच्या झोताक लागून पिग लोखणांतले कार्बन आनी सिलिकॉन जळून वतात आनी ताकालागून वितळिल्ल्या धातुचें तापमान वाडटा. हें तिरवें पत्र्यांखातीर आनी रेल्वेच्या रुळांखातीर वापरताले. १८९० च्या उपरांत बेसेमर पद्दती जाग्यार सीमेन्स हाच्यो उक्त्यो रांदनी आयल्यो. १८६७ मेरेन उक्ते रांदनींत पीग लोखणासावन आनी लोह धातुकापसून तिरवें मेळोवपाक ताका यश मेळ्ळें. त्याच वर्सा एमीलआनी प्येअर मारतँ हांणी फ्रांसांत सीमेन्स भट्टी वापरून उक्ते रांदनींत घडीव लोखण आनी लोखणी मोड (भंगार) हांचेपसून बऱ्या दर्जाचें तिरवें तयार केलें. उक्ते रांदनीचे पद्दतींत पिग लोखण, धातुक आनी मोड वापरूपांत येतात आनी ती सीमेन्स मारतँ पद्दत ह्या नांवान वळखूंक लागले. १८७७ त एस्.जी. टॉमस आनी पी. गिलख्रिस्ट हांणी १८७७ त चुनखडयेच्या चुणीचो अस्तरा खातीर उपेग केल्यार तिरव्यांतलें फोस्फरस कांडूक येता असो सोद लायलो. ताकालागून बेसेमर आनी उक्ते रांदन हे दोनूय पद्दतींचो फायदो जालो आनी फॉस्फराचें उच्च प्रमाण आशिल्ल्या धातुकाचोय तिरव्यानिर्मितीखातीर उपेग करपाक मेळूंक लागलो.

उच्च गुणवत्तेचें मिश्र तिरवें तयार करपाखातीर विसाव्या शतकांत मूस प्रक्रिया म्हत्वाची आशिल्ली. उपरांतच्या काळांत मूस प्रक्रियेच्या जाग्यार विद्युत् भट्टेचो व्हड प्रमाणार वापर जावंक लागलो.

**संवसारांतले लोहधातुकाचे साठे :** संवसारांतल्या लोह धातुकाच्या साठ्यांत सुमार २५% साठे रशियेंत, १५% ब्राझीलांत, ९३ % भारतांत, सुमार १२% अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत आनी ७% कॅनडांत आसात. तेभायर ऑस्ट्रेलिया, चीन, फ्रांस, दक्षिण कोरिया, जर्मनी आनी आफ्रिकेंतले कांय देश हे नदरेन म्हत्वाचे आसात.

संवसारांत दर वर्सा वेगवेगळ्या प्रकारचीं सुमार ५५ कोटी टन लोह धातुकां काडटात. १९८५ च्या सुमाराक हातूंत २५ % धातुकां रशियेंत, १४% अमेरिकेंत ९.६ % फ्रांसांत, ६.४% चीनांत आनी ६% कॅनडांत काडटाले. तेभायर स्वीडन, भारत, ब्राझील, व्हेनेझुएला, लायबीरिया, ब्रिटन, पेरू आनी ऑस्ट्रेलिया हे देशय लोह धातुकाच्या उत्पादनाचे नदरेन म्हत्वाचे आसात. लोह धातुकांची आयात करपी कांय देश अशे आसात - फ्रांस, अमेरिका, ब्रिटन, जर्मनी, जपान आनी इटली.

**भारतांतले लोहधातुकाचे साठे :** भारतांतले लोह धातुकाचे साठे सुमार १९.१६६ अब्ज टन आसून ते चडकरून हेमॅटायट (१३.०६६ अब्ज टन) आनी मॅग्नेटायट (६ अब्ज टन) आनी कांय लिमोनायट रुपांतले आसात. हे साठे मुखेलपणान द्वीपकल्पांत आसून धारवाडी आनी कडप्पा संघांतल्या स्फटिकी आनी सुभाज फातरांत मेळटात. हे साठे कँब्रियन उदेंत काळांतलें म्हळयार सुमार ६० कोटी वर्सांपरस पोरने आसून सामान्यपणान ते दाट थराच्या आनी भिंगाकार राशींच्या रुपांत मेळटा. हातुंतले कांय साठे संवसारांतले सगळयांत व्हड आनी संपन्न साठे. देखीक- सिंगभूम बस्तर, केओंझार, बोनई आनी मयूरभंज ह्या पट्ट्यांतले बडा जामडा विभागांतले साठे हे अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतल्या लेक सुपीरियर साठ्यांपरस व्हड आसात. ह्या वाठारांतल्यो कांय दोंगुल्ल्यो ह्या धातुकाच्योच जाल्ल्यो आसात. भारतांतल्या कांय ठिकाणाच्या धातुकांत लोखणाचें प्रमाण ६० ते ६८% आसा.

भारतांतल्या लोह धातुकाचे कांय साठे हेमॅटायट - क्वॉर्ट्झायट ह्या फातरापसून तयार जाल्ले आसात. हिमालयांत कांयकडे फातरी कोळशावांगडा लोह धातुकाचे ल्हान साठे मेळटात. दक्षिण ट्रॅपांतल्या बेसाल्ट फातराचेर वातावरणक्रिया जावन तयार जाल्ली अस्तंत किनारी वाठारांतली रेंव, मुरूम आनी जांभा फातर हांच्यांत लोखण हो म्हत्वाचो घटक आसा. आयर्न ओअर माला हें बऱ्या दर्जाचें लोह धातुक आसून अस्तंत बंगालांतल्या दामुदा माळेच्या आयर्न स्टोन शेल फातरांतय मोलाचे धातुक साठे आसात. राणीगंज क्षेत्रांतल्या आयर्न स्टोन शेल फातरांतलें लोह धातुक उण्या पांवड्याचें (४० ते ४५% लोखण) आसून तांचो उपेग गौण धातुक म्हणून जाता. भारतांतल्या लोह धातुकांच्या कांय म्हत्वाच्या साठ्यांची म्हायती अशी -

**आंध्रप्रदेश :** ह्या राज्यांत धारवाडी क्वॉर्ट्झायट, कडप्पा संघांतले वालुकाश्म आनी क्वॉर्ट्झायट ह्या फातरांत हेमॅटायटयुक्त धातुक मेळटा. तेभायर चित्तूर, नेल्लोर, करीमनगर, वरंगळ आनी अदिलाबाद जिल्ह्यांतल्या धारवाडी संघाच्या फातरांतय अशे तरेचे हेमॅटायट आनी मॅग्नेटायट युक्त साठे मेळळयात.

**ओरिसा :** हांगाचे साठे हेमॅटायटयुक्त आनी उच्च दर्जाचे (५५ - ६८ % लोखण) आनी २.२५ अब्ज टनांपरस चड आसात. सुंदरगढ, मयूरभंज, कटक, संबळपूर आनी कोरापूट हे जिल्हे तशेंच केओंझार हे थळ हांगाच्या साठ्याखातीर म्हत्वाचे आसात.

**कर्नाटक :** हांगा खूब कडेन लोह धातूक मेळटा. मंगलोर लागसारच्या देगे भागांनी उच्च दर्जाचें धातूक मेळटा. बाबाबुढण दोंगुल्ल्यो, कुद्रेमुख आनी बळ्ळारी - होसपेट क्षेत्रांतले साठे उच्च दर्जाचे आसात. सारगळ, कुनीगळ, हरियुर आनी शंकरगुड्डा ह्या जिल्ह्यांत उण्या पांवड्याचीं धातुकां मेळटात.

**केरळ :** एर्नाकुलम (५५% लोहयुक्त), जिचूर (३० -४०% लोहयुक्त) आनी कन्ननोर ह्या जिल्ह्यांतल्या मुरुमांत लोखणाचें प्रमाण चड आसा. कोझिकोडे जिल्ह्यांत लोह धातुकाचे साठे मेळटात.

**तमिळनाडू :** सेलम आनी तिरुचिरापल्ली जिल्ह्यांत

मॅग्नेटायटचे व्हड पूण उण्या दर्जाचे साठे आसात. कोईमतूर, मदुराई, तिरुनेलवेली, रामनाथपूरम, उत्तर आनी दक्षिण अर्काट ह्या जिल्ह्यांत लोखणाचे साठे मेळटात. निलगिरी दोंगुल्ल्यांतले साठे उण्या दर्जाचे आसात.

**अस्तंत बंगाल :** पोरापहाड क्षेत्रांतल्या हेमॅटायटयुक्त आनी बांकुरा जिल्ह्यांतल्या मॅग्नेटायटयुक्त साठे तशेंच दामुदा माळेंतल्या आयर्न ओअर शेल फातरांतले साठे म्हत्वाचे आसात. दार्जिलिंग आनी जलपैगुरी जिल्ह्यांत उण्या दर्जाचीं धातुकां मेळ‌ळयांत.

**बिहार :** सिंगभूम आनी बोनाई क्षेत्रांतले साठे व्हड आनी उच्च दर्जाचे आसात.

**मध्य प्रदेश :** द्रुग आनी बस्तर जिल्ह्यांतले साठे सगळयांत व्हड आसून दल्लीराजहरा आनी बैलादिला भागांतय व्हड साठे आसात. ह्या राज्यांतले हेमॅटायटयुक्त साठे निमाड आनी हुशंगाबाद जिल्ह्यांत जाल्यार हेमॅटायट आनी मॅग्नेटायटयुक्त साठे नरसिंगपूर जिल्ह्यांत मेळ‌ळयात. तेभायर, सागर, ग्वाल्हेर, धार, मंदसोर आनी रायगड जिल्ह्यांतय हीं धातुकां मेळ‌ळयांत. तशेंच कटनी, बिजोरी आनी जबलपूर जिल्ह्यांत मुरूमाच्या रुपांतलीं धातुकां आसात.

**महाराष्ट्र :** चंद्रपूर, गडचिरोली, (लोहारा, मसोली, देवळगाव, पिपळगांव, रतनपूर आनी बिस्सी), रत्नागिरी आनी सिंधुदुर्ग (रेडी, सातेली, आरोस, तेंडोली आनी खानोली) आनी भंडारा ह्या जिल्ह्यांत लोह धातुकाचे साठे आसात. नागपूर जिल्ह्यांत हेमॅटायटयुक्त साठे आसात. तेभायर रत्नागिरी, सिंधुदुर्ग, रायगढ, कोल्हापूर आनी सातारा जिल्ह्यांत लोखणाचें चड प्रमाण आशिल्लो मुरूम आनी जांभा मेळटा.

वयर दिल्ल्या राज्याभायर भारतांत आसाम, उत्तर प्रदेश, गोंय, पंजाब, राजस्थान, हिमाचल प्रदेश आदी वाठारांतय लोह धातुकां मेळ‌ळयांत.

भारतांत चड करून बिहार, गोंय, कर्नाटक, मध्य प्रदेश, महाराष्ट्र आनी ओरिसा हांगा लोह धातुकाचें खणकाम चलता. गोंय, विशाखापटनम् आनी पारादीप ह्या बंदरांतल्यान लोहधातुकांची व्हड प्रमाणार सुमार २० देशांक निर्यात जाता.

कर्नाटकांतल्या कुद्रेमुख हांगाचो साठो ६१ कोटी टन आसून हीं धातुकां मॅग्नेटायट - हेमॅटायटयुक्त आसात. हांगाचीं धातुंकां चडकरून इराणाक तशेंच बहारीन आनी रूमानिया आदी हेर देशांकय निर्यात जाता.

**धातुकाचें खणकाम :** लोह धातुकाचे सुरवेचे लोह प्रगलन भूयेलागीं मेळपी धातुकाचेर आदारीत आशिल्लें आनी प्रगलन क्रिया असंस्कारीत धातुकाच्या लागसार करतात देखून ताचें उपयुक्त लोखणांत प्रगलन करप सोपें जाता. पूण सद्याचे परिस्थितींत धातुक पयसुल्ल्या ठिकाणाचेर व्हरचें पडटा देखून खणकामांत आनी प्रगलन क्रियेंत जटिल तंत्राचो उपेग करप गरजेचें जालां.

**पुर्वेक्षण :** सुरवेच्या पूर्वेक्षणाच्या काळांत धातुक राशीचो थाव लागपाच्यो पद्दती भूंयवाठाराच्या भौतिक बाह्य स्वरुपाकडे जोडिल्ल्यो आसल्यो.

भूंयगत निक्षेपांतल्या लोहाच्या अंशाकलागून भूचुंबकीय वाठारांत बदल जातात. ताका लागून वेगवेगळ्या प्रकारच्या नतिसुचींचो (उब्या प्रतलांत (भुयेंत) फिरपाक शकपी चुंबकीय सुची आशिल्ल्या चुंबकीय क्षेत्र मापकांचो) मॅग्नेटायट निक्षेपांची सुवात थारावपाखातीर विकास जालो. चुंबकीय क्षेत्रमापण ही सामकी अचूक चुंबकीय प्रणाली आसून तिच्या आदारान भूचुंबकीय क्षेत्राच्या उब्या घटकाची खरसाण आनी चुंबकीय द्रव्याच्या थळाव्या संकेंद्रणाचो ताचेर जावपी परिणाम मेजपाक येता. विमानांतल्यान चुंबकीय क्षेत्रमापकाच्या आदारान जमनीवयल्या सर्वेक्षणापरस खूब व्हड क्षेत्राचें उण्या काळांत सर्वेक्षण करपाक मेळटा.

**सुसाध्यता :** प्राथमिक सर्वेक्षणां पुराय जातकच धातुकाचें खणकाम अर्थीक नदरेन परवडटलें काय ना हें थारावपाखातीर सुसाध्यता अभ्यास करतात. तातूंत जायत्यो गजाली लक्षांत घेवच्यो पडटात. निक्षेपाचीं भुगोलिक आनी भूविज्ञानीक थळां म्हत्वाचीं आसतात. धातुकांतलें लोखणाचें प्रमाण निश्कर्षण खात्रेन करपा येतलें इतकें उच्च आसूंक जाय. धातुकांतलें मुलद्रव्याचें (चिरवोल) प्रमाण, निरुपयोगी मालाची अत्याधिक हाताळणी टाळपा इतलें आनी प्रगलन क्रियेंत अतिभार येवचो ना इतलें कमी आसूंक जाय.

**खणकाम पद्दत :** सुसाध्यता अभ्यास पुराय जातकच धातुक काडून घेवपाची पद्दत थारावची पडटा. उगडया खणकामाची पद्दत सगळयांत काटकसरीची आसून संवसारांतल्या धातुक निक्षेपांच्या लागीं उबे कूपक तयार करतात. ह्या कुपकांतल्यान निक्षेपाच्या वेगवेगळया पातळयांत पावतले अशे आडवे बोगदे तयार करतात. छिद्रण, उत्स्फोटन, उदक काडून उडोवप, ह्या सारक्या वेगवेगळया अडचणींक लागून भूंयगत खणकामाक उगडया खणकामापरस चड खर्च येता.

**धातुकांचें समृध्दीकरण :** हातूंत खणींतल्यान काडिल्ल्या मालांतल्या शुध्द धातुकांचें प्रमाण वाडोवपाखातीर ताचेर चुरडप, प्रतवारी करप, धुवप, संकेंद्रण, संमिश्रण आनी संपिंडकरण हीं संस्करणां करतात. धातुकाच्या भौतिक आनी रासायनिक गुणधर्मांप्रमाण आनी ग्राहकाच्या विशिश्ट गरजेप्रमाण धातुकाचे खाणीकडे वा ते एकठांय करपाच्या केंद्रांत समृध्दीकरण करपांत येता.

एकसारक्या भौतिक आनी रासायनिक संघटनाची खात्री करपाखातीर वेगवेगळया गुणधर्माचीं धातुकां एकठांय भरशितात. संमिश्रण क्रियेक लागून गंधक, फॉस्फरस, सिलिकॉन, क्रोमियम, मँगनीज संयुगां ह्या सारक्या मलद्रव्यांचें प्रमाण एके पातळेर उरता.

**आकारमान लघुकरण :** लोह धातुकांतल्या समृध्दीकरणांतली ही पयली अवस्था. हातूंत वेगवेगळया चुरडपाच्या आनी दळपाच्या क्रियांचो आस्पाव जाता. खणींतल्यान काडिल्लें धातुक प्रचंड ठोकळयांसावन सूक्ष्म कणांमेरेनच्या वेगवेगळया आकारमानांचें आसता आनी तातूंत फातर आनी लोखणाचें कमी प्रमाण आशिल्लीं कांय द्रव्यां आसतात. दृक् परिक्षण आनी वेगळेंकरण करतकच क्रमाक्रमान चाळणक्रिया करून चिरवलाचें प्रमाण कमी करतात. ताकालागून धातुकाचें आकारमान प्रमाणभूत विनिर्देशाइतलें उणें आसता.

**संमिश्रण :** वेगवेगळया गुणधर्मांचीं धातुकां वेगवेगळया खाणींतल्यान काडून उडयतकच संमिश्रण करूं येता. ह्या दोनूय पद्दतींत धातुकाच्यो राशी आडव्या थरांत रचतात. दर एका थराक स्वताचे वेगळे गुणधर्म आसतात. हातुंतल्यान धातुक काडून घेवपाखातीर एका दाताळयान राशीचो उबो भेद करतात आनी ताणें धातुक वाहक पट्ट्याचेर काडून घेतात.

**धुवप :** हातूंत उदकाचो उपेग करून धातुकांतले रेंवेचे आनी मातयेचे कण उदकांत संधारित (लोंबकळपी स्थितींत) करतात आनी धुलाई यंत्रांतल्यान भायर व्हांवोवन व्हरतात. हातुंतलें जड धातुक तळाक बसता. धातुकाच्या प्रकाराप्रमाण आनीक थळावे बाबीप्रमाण जायत्या प्रकारचीं धुलाई यंत्रां वापरांत आसात.

**जड माध्यमावरवीं विलगीकरण :** धातुकांतल्या घटकाच्या खाशेल्या गुरूत्वातलो सापेक्ष फरकांचो उपेग करपी एक चड सुविकसीत पद्दत १९३७च्या सुमाराक वापरांत आयली. हातूंत आयर्न ऑक्सायड आनी सगळयांत सामान्य मलद्रव्य खनिज (सिलिका) हांचे मदीं खाशेलो गुरूत्व आशिल्लो जड द्रव वापरतात. हलकीं मलद्रव्यां द्रव्याच्या वयर तरंगतात आनी जड आशिल्लीं धातुकां बुडटात.

**प्लवन क्रिया :** संकेंद्रणाचे हे क्रियेंत धातुक बारीक दळप गरजेचें आसता. बारीक दळिल्लें धातुक संघरित केल्ल्या द्रव्यांत योग्य रसायनां घालून बोमाडयाची एक प्रणाली तयार करतात. तेन्ना धातुकांतलीं मलद्रव्यां वा खनिज बोमाडयाकडे वेंचिकप्रमाण आकर्शित जातात आनी प्रणालींतल्यान काडून घेवप जातात.

**चुंबकीय विलगीकरण :** मॅग्नेटायटच्या मलद्रव्यापसून चुंबकीय विलगीकरण करपाची पद्दत ही समृध्दीकरणाची सगळयांत सोंपी पद्दत आसा.

**भाजप :** ही क्रिया सजल ऑक्सायडां धातुकां (लिमोनायट) आनी कार्बोनेट धातुकां (सिडेरायट) हांचे गुणधर्म बदलपाखातीर वापरतात. भाजपाचे क्रियेचो उपेग धातुकांतलें उदक काडून उडोवपाखातीर करतात. धातुकांत आशिल्लें गंधक, रेंव, माती काडून उडोवपाखातीर हे भाजणेचो बरो उपेग जाता.

**संपिंडीकरण :** झोतभट्टेखातीर धातुक तयार करपाची ही निमणी क्रिया. तापपिंडन गुलिका वा गुठल्यो, वा ठोकळे तयार करप ह्यो प्रक्रिया विशिश्ट झोतभट्टे खातीर आवश्यक आशिल्ल्या मालाप्रमाण करपांत येतात. तापपिंडन हे क्रियेंत बारिक दळिल्ले धातुक इंधनावांगडा भरशितात आनी मुद्दाम निर्माण केल्ल्या हवेच्या झोतांत जाळटात. हे क्रियेंत मेळिल्ल्या पदार्थाक तापपिंड म्हण्टात. तो घटमूट सच्छिद्र आनी कोशमय आसता.

**ल्हान गुळे करप :** हे गुळे करपाक बारीक दळिल्ले धातुक ताचे सच्छिद्रते प्रमाण १ ते १५ % जलांश जातले इतले ओले करतात. उदकावांगडा बंधकद्रव्य म्हणून बेंटोनायट मृत्तिका घालूं येता. अशें योग्य तरेन मिश्रण करतकच उंच बाजू आशिल्ल्या चकतीच्या आकाराचें आयदन आशिल्ल्या यंत्रांत धातुकापसून १.५ - २५.५ मि.मी.चे गुळे तयार करतात. भाजुनाशिल्ले स्थितींत आशिल्ल्या ह्या गुळयांचेर कोळशाच्या पिठ्याचो थर दितात. उपरांत सुक्या आच्छादनांतल्यान व्हरून एके सरकुपी जाळयेचेर व्हरून थंय गुळयावयल्या कोळशाचो थर पेटयतात. तापपिंडनांत धातुकांतले खनिज अंश कांय विशिश्ट प्रमाणांत वितळटा आनी ताचेर नियंत्रण दवरलेंना जाल्यार तापपिंडाची क्षपणीयता कमी करपी आयर्न सिलिकेट तयार जावपाची शक्यता आसता. गुळे करपाचे क्रियेंत वितळबिंदूइतलें तापमान पावनाशिल्ल्यान बंध विसरण (कण एकामेकांत मिसळप), ऑक्सिडीभवन आनी कांय प्रमाणांत पुनर्स्फटिकीभवन हांणी तयार जातात.

**ठोकळे करप :** धातुकाच्या सूक्ष्म कणांपसून ठोकळे करपाखातीर वेगवेगळया प्रकारचीं बंधक द्रव्यां आनी दाबयंत्रां वा लाटण यंत्रां शीत अवस्थेंत वापरतात.

**गुठळीकरण :** हे संपिंडीकरण क्रियेंत सूक्ष्मकणी धातूक सुरवेची वितळण क्रिया जातली इतले परिभ्रमी भट्टेंत तापोवपांत येता. भट्टेच्या फिरपाचे क्रियेन धातुकाच्यो गुठल्यो जातात.

**इंधन :** लोह निर्मितीखातीर सगळया तरांचो कोळसो योग्य आसा अशें ना. कोक तयार करपाखातीर सुमार २०% बाश्पनशील द्रव्य आशिल्लो कोळसो मर्यादीत हवेच्या पुरवठ्यांत सुमार १००$^{\circ}$ सॅ. तापमानांत तापयतात. बाश्पनशील घटक भायर काडून उडयतात आनी तें उत्पादन प्रदिपन वायूंत मुख्य घटक म्हूण वापरतात. भट्टेंत शुध्द कार्बनाचे कोकचे गुळे उरतात. कोकच्या रसायनीक शुध्दते इतलेंच तांचें बळ म्हत्वाचें आसता.

**लोहनिर्मिती :** लोखणाच्या उत्पादनाची मुखेल प्रक्रिया झोतभट्टी प्रक्रिया हीच आसा. झोतभट्टेच्या उच्च कार्य तापमानाक वितळिल्ल्या लोखणाचें उत्पादन करपाक मेळटा. सरळ - क्षपण प्रक्रियांच्या कमी तापमानाक घन वा स्पंजी लोखण तयार जाता. संवसारांत उत्पादित जावपी चडशा लोखणाचो उपेग पोलादाच्या उत्पादनाखातीर करपांत येता. उरिल्ल्या लोखणाचो उपेग ओतिवांत, मिश्रधातूंत आनी लोहचुर्ण रुपांत करतात.

**झोतभट्टी :** झोतभट्टेन पिग लोखण तयार करप हो लोखण

उद्येगाचो मूळभूत भाग. झोतभट्टेंत उच्च तापमानाक आयर्न ऑक्सायडाची कार्बन मोनॉक्सायड (Co) वायुवांगडा विक्रिया जाता आनी कार्बन डायऑक्सायड ($Co_2$) वायु आनी लोह धातू तयार जाता.

झोतभट्टेंत घडून येवपी रासायनिक विक्रिया अशो आसतात - हवेचो झोत आनी कोक परस्परांच्या संपर्कांत येतकच कोक जळूंक लागता आनी कार्बन मोनॉक्सायड वायू तयार जाता.

$$C + 1/2\ O_2 \longrightarrow CO.$$

हो वायू आयर्न ऑक्सायडाचें क्षपण करपी मुखेल कारक आसता. क्षपण ह्या तीन पांवड्यांनी घडटा -

$$3\ Fe_2O_3 + CO \longrightarrow 2Fe_3O_4 + CO_2$$

$$2\ Fe_3O_4 + 2\ CO \longrightarrow 6FeO + 2\ CO_2$$

$$FeO + CO \longrightarrow Fe + CO_2$$

हें क्षपण सकयल दैंवपी धातुक आनी कोक मिश्रणांचें तापमान ६00° - ७00° सॅ. पावतकच घडून येता. हाका लागून घन पूण सच्छिद्र आशिल्लें स्पंजी लोखण तयार जाता आनी तें झोतभट्टेच्या सकयल्ल्या अदिक उश्ण भागांत वितळटा. लोखणापसून सिलिकेटां वेगळीं करपाखातीर वितळावप गरजेचें आसता. लोखणांतलीं सिलिकेट खनिजां झोतभट्टेंत वितळनात. पूण चुनकळी वांगडा (Cao) विक्रिया करून वितळल्ली मळी तयार करतात. हेखातीर धातुका वांगडा फाव ती चुनखडी ($CaCo_3$) भट्टेंत घालतात. चुनखडीचें अपघटन अशें जाता -

$$CaCo_3 \longrightarrow Cao + Co_2$$

तयार जाल्ल्या चुनकळीची सिलिकेटावांगडा विक्रिया जावन द्रवरुपी मळी तयार जाता.

आर्विल्ले झोतभट्टेची संरचना खूब व्हड आकारमानाची आसता. दर दिसा १,000 टन लोखण तयार करपी भट्टी सुमार ३0 मी. उंच आसता. ही भट्टी भितरल्यान आगविटांचें विटांचें अस्तर आशिल्ल्या पोलादी कंवचेची तयार केल्ली आसता. भट्टेच्या संरचनेचो सगळो भाग उदकान थंड दवरिल्लो आसता.

झोतभट्टेची कार्यक्षमता हवेचो उश्ण झोत वापरून वाडोवंक मेळटा. हो झोत सुमार १000° सॅ. मेरेन तापयतात. तेखातीर शेगड्यांचो वापर करतात आनी दर एक शेगडी झोतभट्टेइतलीच व्हड आसता. झोतभट्टेची कार्यक्षमता वाडोवपाखातीर आनीकय जायते मार्ग विकसीत केल्यात. तातूंत झोतभट्टेंतलो भितरलो वायुदाब भोंवतणच्या दाबाच्या वयर एक वातावरणीय दाबा इतलो वाडोवचो पडटा. ताकालागून सुमार १५ % उत्पन्न वाडटा.

आदल्या तेंपार झोतभट्टेंत तयार केल्ल्या द्रवरूप लोखणापसून साठोवपाखातीर, वाहतुकीखातीर आनी परत वितळावपाखातीर ओतिवां तयार करतात. भट्टेंतल्यान भायर येवपी द्रवरूप लोखण भट्टेच्या मुखावयल्या रेंवेंच्या थरांतल्या पन्हाळींत सोडटाले. पन्हाळींतलो लोखणाचो रोस रेंवेंत तयार केल्ल्या कडेच्या लांबशा कप्प्यांत रिगतालो आनी ताचें घनीभवन जावन जमनीचेर न्हिदिल्ल्या दुकराच्या आकारावरी लोखणाचे गुळे तयार जाताले. हे रेंवेंच्या थरांतल्या मुखेल पन्हाळीक 'साऊ' (दुकरीण) आनी तिचे ल्हान पन्हाळींक जोडिल्ल्या ल्हान कप्प्यांक 'पिग्ज' (दुकरां) म्हण्टाले. ताका लागून झोतभट्टेपसून मेळपी लोखणाक पिग आयर्न आनी हे पद्दतीन मेळपी लोखणाच्या ओतिवांक पिग्ज म्हण्टात. झोतभट्टेपसून मेळपी लोखणाक 'पिग आयर्न' ही संज्ञा वापरतात.

**सरळ - क्षपण पद्दत :** झोतभट्टेंत पिग लोखण तयार करून उपरांत ताचें तिरव्यांत रुपांतर करप ह्या तिरव्या निर्मितीच्या अप्रत्यक्ष पद्दतीची पर्यायी पद्दत म्हळयार लोह धातुकाचें सरळ शुध्द लोखणांत क्षपण करप आनी मागीर ताचें तिरव्यांत रुपांतर करप. हाकाच सरळ - क्षपण पद्दत म्हण्टात. विद्युत् भट्टेन पोलादनिर्मिती करताना मोडी जाग्यार सरळ क्षपण पद्दतीन मेळयल्ल्या लोखणाचो उपेग करतात. हें लोखण बरेंच शुध्द आसता. सरळ - क्षपण प्रक्रियांचो उपेग चूर्ण धातुविज्ञानांत वापरांत येवपी दाणेदार लोखणाचे निर्मितीखातीर करतात.

सरळ क्षपणाखातीर क्षपणकारक म्हणून कार्बन मोनॉक्सायड आनी हायड्रोजन हे वायु वा तांचें मिश्रण वापरपांत येता. हो वायु लोखण निर्मितीचे भट्टेन वा भायर तयार करतात. धातुकाचें विक्रियांप्रमाण क्षपण अशें जाता -

$$Fe_2O_3 + 3Co \longrightarrow 2\ Fe + 3Co_2$$

$$Fe_2O_3 + 3H_2 \longrightarrow 2\ Fe + 3H_2O$$

हें क्षपण ९00° ते १000° सॅ. ह्या दरम्यानच्या तापमानाक केल्यार १ ते २.५ % कार्बनाचें प्रमाण आशिल्लें स्पंजी लोखण मेळटा आनी जर क्षपण १000° ते १२00° सॅ. हाच्या दरमानच्या तापमानाक केल्यार कार्बनाचें प्रमाण कमी आसता. तापमान १२00° च्या वयर आसल्यार लोखण कार्बनाचें शोशण करता. ताचो वितळबिंदू उणो जाता आनी वितळिल्लें लोखण मेळटा.

**लोखणाचे धातुविज्ञानिक प्रकार :** पिग लोखण, स्पंजी लोखण, हायड्रोजन - क्षपित लोखण, कार्बोनिल लोखंड, वा लोह कार्बोनिल, विद्युत् विच्छेदित लोखण, पिंडरूप लोखण, घडीव लोखण, बीड हे लोखणाचे धातुविज्ञानीक प्रकार आसात.

**पिग लोखण :** लोखणाचो हो अशुध्द प्रकार आसून लोखणाभायर हातूंत ३-४% कार्बन, २-३% सिलिकॉन, 0.५ - २% मॅंगनीज आनी सुमार 0.0४% गंधक आनी फॉस्फरस आसता. पिग लोखणाच्या रेंवेंतल्या ओतकामाच्या जाग्यार आता व्हड प्रमाणांत पिग ओतकाम यंत्रांनी घेतलां. रेवेंत तयार केल्या पिग्जापरस यंत्रान

तयार केल्ले पिग्ज चड नितळ आसतात. रासायनिक संघटने प्रमाण पिग लोखणाचे तीन प्रतींत वर्गीकरण करतात. क्षारकीय पिग लोखण तिरव्यानिर्मितींत वापरतात.

ओतशाला पिग लोखणांत लोखणी ओतिवां तयार करपारवातीर वापरपांत येवपी सगळ्या प्रकारांचो आस्पाव जाता. हातूंत सिलिकॉन ०.५ - ३.५%, गंधक ०.०५%, फॉस्फरस ०.०३५ - ०.९%, मँगनीज ०.४ - १.२५%, कार्बन ३.० - ४.५% अशीं घटकांचीं प्रमाणां आसतात. लोहमिश्रकां हो पिग लोखणाचो मिश्रधातू आसता. ताचो उपेग लोखण आनी तिरवें हातुंतले गुणधर्म नियंत्रीत करपारवातीर वा बदलपारवातीर तातूंत आस्पाव करपाचीं द्रव्यां म्हणून करतात.

**स्पंजी लोखण :** हाचो उपेग चड करून उच्च शुध्दतेच्या आनी विद्युत् भट्टेंत तयार करपांत येवपी मिश्र तिरव्यांत वितळावपारवातीर, तशेंच खाशेल्या रासायनिक प्रक्रियांत शोषक आनी इलेक्ट्रोनीय उद्देगांत उच्च शुध्दतेच्या लोखणाचो उद्गम हे खातीर करपांत येता. हाच्या उत्पादनारवातीर क्रप - रेन प्रक्रिया वापरतात.

**हायड्रोजन - क्षपित लोखण :** हे प्रक्रियेन स्पंजी लोखणावरी पूण धातवीय अशुध्दी ०.००१ % इतलें कमी आशिल्लें लोखण मेळटा.

**कार्बोनिल लोखण वा लोह कार्बोनिल :** हाचो उपेग चुंबकीय द्रव तयार करपारवातीर इलेक्ट्रॉनीय उद्देगांत उच्च कंप्रता गाभ्याच्या उत्पादनारवातीर आनी संशोधन द्रव्य म्हणून करतात. लोह कार्बोनिल सादारणपणान आयर्न पेंटा कार्बोनिल ($Fe(Co)_5$) ह्या स्वरुपांत आसून ताचें उश्णतेन अपघटन केल्यार असादारण शुध्द लोखण आनी कार्बन मोनॉक्सायड मेळटात.

**विद्युत् विच्छेदित लोखण :** हें उच्च शुध्दतेच्या लोखणाचें रूप आसून फेरिक क्लोरायडासारक्या संयुगाच्या विद्युत् विच्छेदनान मेळोवपांत येता. हाची शुध्दता ९९.९% परस चड आसता.

**पिंडरूप लोखण :** ह्या प्रकाराचें लोखण १९०५ च्या सुमाराक विकसित केलें. हें लोखण व्हड प्रमाणांत तयार करतात आनी तें सगळयांत शुध्द रुपांत आसता. प्रत्यक्षांत पिंडरूप लोखण तंत्रीक नदरेन लोखण नासून तें कार्बनाचें सामकें कमी प्रमाण आशिल्लें आनी उक्ते रांदनीचे प्रक्रियेन तयार केल्ले तिरवें आसता.

**घडीव लोखण :** लोखणाचें हें सगळयांत पोरनें रूप. ह्या लोखणाचो चड करून नळनिर्मितींत, रेल्वे आनी जहाजबांधणी ह्या सारक्या उद्देगांत आनी मोटारगाडी तशेंच शेती अवजारांच्या उद्देगांत वापर जाता. घडीव लोखण हे आयर्न सिलिकेट मळीच्या बारीक आनी शिंपडिल्ल्या तंतूंचें अतिशुध्द, लोखणावांगडच्या प्रक्रियांनी तयार करतात. वितळायिल्ल्या पिग लोखणापसून घडीव लोखण तयार करपाचे अप्रत्यक्ष पद्दतींतल्यान ढवळणी प्रक्रिया प्रचारांत आयली. हातूंत फातरी कोळसो इंधन म्हूण वापरून रांदनी प्रकारचे भट्टेंत पिग लोखण वितळावपांत येतालें. तें वितळटा आसतना उश्ण वायुकलागून लोखणांतल्या कार्बनाचें ऑक्सिडीभवन जातालें. पिग लोखण वितळपाची क्रिया पुराय जायमेरेन चालू आसतना तातूंत चुंबकीय आयर्न ऑक्सायड घालताले. ताकालागून द्रव लोखणांतलें चडसो कार्बन, सिलिकॉन गंधक, फॉस्फरस आनी मँगनीज हाचें ऑक्सिडीभवन जावन तयार जावपी ऑक्सायडां मळींत आस्पावतालीं. हें ऑक्सीडीभवन जातना वितळिल्लें लोखण ढवळ्ळुपांत येता आनी तें दाट जावन येतकच लोखण - मळी मिश्रणाचो गुळो भट्टेंतल्यान काडून तातुंतली मळी काडून उडोवन गुळो लाटून ताच्यो लादयो तयार करताले. ह्यो लादयो कापून तांचे ल्हान कुडके करून, एकार एक रचून वितळजोडाच्या तापमानामेरेन परत तापयताले आनी मागीर ताचें इश्ट आकारांत परत लाटण करताले.

घडीव लोखणाच्या संघटनांत ०.०८% कार्बन, ०.०३ % मँगनीज, ०.१८% सिलिकॉन, ०.११% फॉस्फरस, ०.०१५% गंधक आनी वजनान सुमार २.८५ % मळी हांचो आस्पाव जाता.

**बीड :** हातूंत लोह कार्बन सिलिकॉन मिश्रधातुंची एक माळच आस्पावता. वितळिल्लो मिश्रधातू साच्यांत ओतून बीड तयार करतात. मिश्रधातुंतले कार्बन आनी सिलिकॉन हांच्या प्रमाणांत बदल करून बिडाचे वेगवेगळे प्रकार तयार करूंक येतात. हे प्रकार उबे भट्टेंत पिग लोखण आनी लोखणाची वेंचीक मोड वितळावन तयार करतात. वितळिल्ल्या लोखणाचें रसायनशास्त्र नियंत्रीत करून बिडाचे वेगवेगळे प्रकार तयार करतात.

**करडें बीड :** हातूंत मिश्रधातुंची एक माळच आसता आनी ह्या मिश्रधातुचे यांत्रिक गुणधर्म सारकेच आसतात. वितळिल्ले मिश्रधातू सुमार १२५०° सॅ. मेरेन थंड जातकच द्रवांत कण तयार जावंक लागता. हे कण म्हळयार लोखण आनी कार्बन हांचो घनविद्राव आसता आनी ताका ऑस्टेनायट म्हण्टात. जशेंजशें तापमान देंवता तशें तशें चड ऑस्टेनायट तयार जातात. निमणें संरचनेक फेरायटी करडे बीड म्हण्टात. हो करडया बीडाचो सगळयांत मोव प्रकार. जर होच मिश्रधातू परत वितळावन मातशा वेगान शितलन केलें जाल्यार ऑसेनायटाचें फेरायट आनी ग्रॅफायट हातूंत अपघटन जावपाक वेळ मेळना. त्याजाग्यार ताचें लोखण आनी आयर्न कार्बायड ($Fe_3C$) हांच्या यांत्रिक मिश्रणान रुपांतर जाता. हे विक्रियेक घनक्रांतीकभ विक्रिया म्हण्टात आनी मिश्रणाक पिअरलायटी करडें बीड म्हण्टात.

**थंड केल्लें बीड :** नव्यानच घनभूत जाल्लें करडें बीड चड वेगान थंड केल्यार ह्या प्रकाराचें बीड तयार जाता. थंड केल्लें बीड ठिसूळ आनी कंवचेवरी घट आसता.

**धवें बीड :** बिडांतलें कार्बन आनी सिलिकॉन हांचें प्रमाण उणें करून हो प्रकार तयार करतात.

**वर्धनशील बीड :** हें बीड मोव, तन्य आनी कार्बनाचें प्रमाण उणें आशिल्ल्या पोलादाइतलें यंत्रणक्षम आसून ताचें ताणबळ ४,२२०

ते ७,०३० किग्रॅ./सेंमी., ह्या दरम्यान आसता. धव्या बिडाचेर उश्णता संस्करण करून वर्धनशील बीड तयार करतात.

**गांठी आशिल्लें बीड :** हाका तन्य बीड अशेंय म्हण्टात. वितळिल्लें गांठीचें बीड सरळ वर्धनशील प्रकारच्या ओतिवांत रुपांतरित जाता आनी तेखातीर उश्णता संस्करणाची गरज आसता.

**संवसारीक उत्पादन :** लोखण आनी तिरव्या उद्देगांतलें म्हत्वाचें काम म्हळ्यार झोतभट्टेंत पिग लोखण तयार करप आनी झोतभट्टेखातीर धातुक, इंधन, चुनखडी आनी उदक हांचो भरपूर पुरवठो गरजेचो आसता. सद्या संवसारभर लोह धातुकाचो आनी अमेरिकेंतल्या अस्तंत व्हर्जेनियांतल्या कोळशाचो उपेग करतात. सहसा कोळशाचे आनी धातुकाचे साठे लागीं लागीं आसनात. तेखातीर ते लोखणनिर्मिती केंद्राकडे व्हांवोवन व्हरचे पडटात आनी ते व्हांवोवन व्हरपाखातीर उदका येरादारी ही सगळयांत बरी आनी उण्या खर्चाची पद्दत अशें दिसून आयिल्ल्यान चडशे लोखणाचे आनी तिरव्या उद्देग देगेवयल्या वाठारांनी करप जातात. अमेरिकेंतल्या संयुक्त संस्थानांतलीं म्हत्वाचीं तिरव्या निर्मितीचीं केंद्रां आयात धातुक सहजपणान देंवोवपाक मेळटलीं आनी पोलादाची मोड भरपूर प्रमाणांत उपलब्ध जातलीं अशा अस्तंत आनी उदेंत किनाऱ्याचेर आसात.

तिरव्या उत्पादन सत्तरांपरस चड देशांत जाता. १९८० उपरांतच्या दशकाचे सुरवातीक कच्च्या तिरव्याचें संवसारीक वर्सुकी उत्पन्न सुमार ७८ कोटी टन आशिल्लें. तातुंतलें सुमार १४.८ कोटी टन रशियाचें, ११ कोटी टन अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानाचें आनी ११.१ कोटी टन जपानाचें आशिल्लें. तेभायर युरोपीय अर्थीक संघांतल्या देशाचें वट्ट उत्पादन १२.७ कोटी टन आशिल्लें.

**वेगवेगळया देशांतल्या पिग लोखणाचें उत्पादन (हजार टनांत)**

| देश | १९७० | १९८० |
|---|---|---|
| अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां | ८५,३०३ | ६३,७४६ |
| ऑस्ट्रेलिया | ५,७६९ | ७,२७६ |
| इटली | ८,५२९ | १२,४४१ |
| कॅनडा | ८,४२४ | ११,१८५ |
| चीन | २२,००० | ३८,०२० |
| चेकोस्लोव्हाकिया | ७,६१३ | १०,०५१ |
| जपान | ६९,७२८ | ८८,९०७ |
| जर्मनी, अस्तंत | ३३,८९७ | ३४,७५५ |
| दक्षिण आफ्रिका | ४,३२८ | ७,८९५ |
| पोलंड | ७,१११ | ११,६८२ |
| फ्रांस | १९,५७५ | १९,६३६ |
| बेल्जियम | १०,९५० | ९,८४५ |
| ब्राझील | १९,०२७ | ६,४१३ |
| भारत | ७,३३८ | ८,७७० |
| रशिया | ८५,९३३ | १,०७,९७३ |
| रुमानिया | ४,२१० | ९,०१३ |
| वट्ट जागतिक | ४,४१,७८७ | ५,२५,७७३ |

**कांय मुखेल उत्पादक देशांतल्या कच्च्या तिरव्याचें (तिरव्या पिंड आनी ओतीव हांचें) उत्पादन (हजार टनांत).**

| देश | १९७० | १९८० |
|---|---|---|
| अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानें | १,१९,३०९ | १,०१,४५६ |
| ऑस्ट्रेलिया | ६,८७४ | ७,८९५ |
| इटली | १७,२७७ | २६,५०१ |
| कॅनडा | ११,११८ | १५,९०१ |
| चीन | १८,००० | ३७,१२० |
| चेकोस्लोव्हाकिया | ११,४८० | १५,२२५ |
| जपान | ९३,३२८ | १,११,३९५ |
| जर्मनी, अस्तंत | ४५,०४० | ४३,८३८ |
| दक्षिण आफ्रिका | ४,६७४ | ८,९५१ |
| पोलंड | ११,७५० | १८,६४८ |
| फ्रान्स | २३,७७३ | २३,१७६ |
| बेल्जियम | १२,६०९ | १२,३२३ |
| ब्राझील | ५,३९० | १०,२३२ |
| ब्रिटन | २८,३१६ | ११,२७७ |
| भारत | ६,२८६ | ९,३२७ |
| रशिया | १,१५,८८९ | १,४७,९४१ |
| रुमानिया | ६,५१७ | १३,१७५ |
| वट्ट जागतिक | ५,९४,००१ | ७,०६,४७२ |

अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतल्यो २०० परस चड कंपन्यो लोखण आनी तिरव्या उद्देगांत आसात. हातुंतल्यो चडशो कंपन्यो लाटून वा घडोवन वस्तू तयार करपाखातीर लागपी कच्च्या तिरव्याचें उत्पादन करतात. जाल्यार हेर कंपन्यो कच्च्या पोलादापसून वा अर्धरुपण केल्ल्या तिरव्यापासून अंत्यरूपण केल्ल्यो वस्तू तयार करतात.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या निमाणें अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानाचो संवसारीक तिरव्या उत्पादनाचो वांटो अर्दापरस चड आशिल्लो. पूण उपरांत तो उणो जायत गेलो. १९८० म्हळयार ह्या देशाचो संवसारांतल्या तिरव्याउत्पादनांतलो वट्ट वांटो फकत १५ टक्क्यांपरस मातसो चड आशिल्लो. ह्या काळांत हांगाच्या तिरव्या उद्योगाक जायत्या अंतर्गत आनी परकी प्रस्नांक तोंड दिवचें पडलें. १९८० उपरांतच्या दशकाचे सुरवेक हांगा वापरांत येवपी कच्च्या पोलादांतलें सुमार २०% आयात करताले. हाचेर उपाय करपाखातीर तांणी पोरनी यंत्रां आनी फायदेशीर

नाशिल्लीं उत्पादनां काडून उडयलीं. तशेंच आर्विल्ले तंत्रविद्येंत गुंतवणूक केली. देखीक १९६० उपरांतच्या दशकाच्या मदेगाक सु. ७५% कच्चें तिखें उक्ते रांदनीचे भट्टयांत आनी २०% चड आर्विल्ल्या क्षारकीय ऑक्सिजन भट्टयांत तयार करताले. ते जाग्यार १९८० उपरांतच्या दशकाचे सुरवेक सुमार ६१% क्षारकीय ऑक्सीजन भट्टेंत आनी फक्त सुमार ११% उक्ते रांदनीचे भट्टेंत कच्चे तिखें तयार करपांत येतालें.

अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत दर वर्सा सुमार १० कोटी टनांपरस मातशा चड वजनाचीं तिख्या उत्पादनां वापरपांत येतात. हातूंत जपानाकडल्यान ६२ लक्ष टन, युरोपीय अर्थीक संघटनांकडल्यान ६५ लक्ष टन आनी कॅनडाकडल्यान २५ लक्ष टन आयात करतात. उरिल्लें तिखें चडशें दक्षिण आफ्रिका, स्पेन, ब्राझील, दक्षिण कोरिया, बेल्जियम, लक्सेंबर्ग आनी अस्तंत जर्मनी ह्या देशांकडल्यान आयात करतात.

१९५० उपरांत रशियेच्या तिख्या उत्पादनांत वाड जाली आनी १९७० उपरांतच्या दशकाच्या निमण्या काळांत रशिया कच्च्या तिख्यांत अग्रेसर उत्पादक जालो आनी संवसारांत पुरवठ्यांतलो ताचो वांटो सुमार १७% आशिल्लो. जपानच्या पोलाद उत्पादनांत तिसरो क्रमांक आशिल्लो आनी संवसारीक पुरवठ्यांत ताचो वांटो १२ % आशिल्लो.

अस्तंत युरोपांतल्या फ्रांस, अस्तंत जर्मनी, इटली, बेल्जियम, नेदर्लंडस आनी लक्सेंबर्ग ह्या तिखें उत्पादक देशांनी १९५०त युरोपीय कोळसो आनी पोलाद संघ स्थापन केलो. ह्या संघाचें फुडें १९५७त युरोपीय अर्थीक संघांत रुपांतर जालें. चेकोस्लोव्हाकिया, पोलंड, रुमानिया, स्पेन, उदेंत जर्मनी, ऑस्ट्रिया आनी स्वीडन हे म्हत्वाचे पोलाद उत्पादक देश आसून, तांचें उत्पादन दर एकी ४० लक्ष टनांपरस चड आसा.

दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत तिख्या उद्देगाचें राष्ट्रीयीकरण, खाजगीकरण आनी पुरत राष्ट्रीयीकरण करपांत आयलें. १९६७च्या लोखण आनी तिख्या अधिनियमाप्रमाण कच्च्या तिख्याचें उत्पादन करपी १४ व्हड कंपन्यांच्या मालकिचें ब्रिटीश स्टील कॉर्पोरेशनाकडे हस्तांतरण करपांत आयलें.

कम्युनिस्ट देशांतल्या तिख्या उद्देगाचें व्यवस्थापन चडकरून केंद्र सरकाराच्या मंत्रालयावतीन करतात. अतिउदेंतेकडले दक्षिण कोरिया, राष्ट्रीय चीन (तैवान) आनी सिंगापूर हांगाचें पोलद उत्पादन म्हत्वाचें जालां. १९८०त भारतांत ९३ लक्ष टन आनी ऑस्ट्रेलियांत ७८ लक्ष टन उत्पादन जालें. अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानाच्या फाटोफाट दुसऱ्या क्रमांकाच्या कॅनडाचें कच्च्या तिख्यांचें उत्पादन आसून १९८१ त तें १.४६ कोटी टन आशिल्लें. लॅटीन अमेरिकेंत १९८१त २.७३ कोटी टन कच्च्या तिख्याचें उत्पादन जालें आनी ब्राझील, व्हेनेझुएला आनी मेक्सिको हे थंयचे मुखेल उत्पादक देश आसात. आफ्रिकेंतलो सगळयांत चड उत्पादक देश आसा दक्षिण आफ्रिका.

**भारतीय उद्देग :** भारतांत वेदाउपरांतच्या काळांत लोखणाच्या वेगवेगळ्या हत्यारांचो आनी साधनांचो उपेग व्हड प्रमाणांत करताले. त्या काळांत भाल्याचो उपेग करपाक सुरवात जातकच धवडांनी जायतीं लोखणी हत्यारां आनी साधनां तयार करपाक सुरवात केली. कांबी, चाकू, सुरयो, आकडे, विळे, बाणाचीं तोंकां, कुदळी, खोरें, खिळी, खिळे, आदी जायत्यो लोखणी वस्तू जायत्या पुरातत्त्वीय थळांनी मेळिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. तांचो काळ इ.स. आदीं ६०० ते २०० आशिल्ल्याचें मेळटा. तिख्या निर्मिती आनी मोव तिख्याची बहुस्तरीय रचना करपाची पद्दत इ.स. आदीं ३००त प्रचारांत आशिल्ली. मध्ययुगांत पर्शिया भारतांतल्यान तिखें आयात करताले आनी नामनेची दमास्कस पातीं भारतीय तिख्यापसून तयार करताले. दिल्ली हांगाचो नामनेचो घडीव लोखणाचो खांबो सुमार १५०० वर्सां इतलो पोरनो आसून ताचेर कळमेल्ल्याच्यो मातय खुणो नात. पुरी हांगाच्यो प्रचंड लोखणी तुळयो, सोमनाथ हांगाचीं नक्षीदार दारां, धुरवार हांगाची ७.३ मी. लांबायेची घडीव लोखणाची तोफ आनी माळव्यांतलो धार हांगाचो १३ मी. उंचायेचो खांबो हीं भारतान मेळयल्लीं धातुविज्ञानीक कुशळकायेचीं स्मारकां आसात. मध्यप्रदेश, बिहार आनी ओरिसा राज्यांतल्या जायत्या जिल्ह्यांतल्या, कुमांऊँ दोंगुल्ल्यांतल्या तशेंच कर्नाटक, तमिळनाडू आनी राजस्थान राज्यांतल्या कांय भागांतल्यो आदिवासी जमाती १९६०च्या सुमाराक लोणारी कोळशाच्या आदारान शेंकड्यांनी वर्सांनी वापरांत आशिल्ल्या साधनांत आनी पद्दतींत चडसो बदल करीनासतना लोखणाचें प्रगलन (Smelting) करताले.

भारतांत वेपारी प्रमाणाचेर लोखण आनी तिखें हांचें उत्पादन करपाची सुरवात १८३०त पोर्तोनोव्हो हांगा उबारिल्ल्या एका सयंत्रान जालो. पूण ताका व्हडलेशें यश मेळ्ळेंना. १८५३त इस्ट इंडिया कंपनीन दक्षिण अर्काट जिल्ह्यांत दोन आनी कोईमतूर जिल्ह्यांत एक अशो वट्ट तीन झोतभट्ट्यो घाल्यो. त्यो १८५८त बंद पडल्यो.

पिग लोखण कुल्टी हांगाच्या वाराकार आयर्न वर्क्सान १८७५त यशस्वीपणान तयार केलें. हो कारखानो क्रमाक्रमान बाराकार आयर्न अँड स्टील कंपनी (१८८७), बेंगॉल आयर्न अँड स्टील कंपनी (१८८९) आनी बेंगॉल आयर्न कंपनी हांणी ताब्यांत घेतलो. तिख्याचें उत्पादन १८९२त कलकत्त्या लागसारच्या कोसीपूर हांगाच्या मॅटल अँड स्टील फॅक्टरींत सुरू जालें. हो कारखानो फुडें इशापूर हांगा व्हेलो.

१९०७ त बिहारांतल्या साकची (जमशेटपूर) हांगा टाटा आर्यन अँड स्टील कंपनी (टिस्को) स्थापन जातकच भारतांतल्या लोखण आनी तिख्या उद्देगाक निर्णायक वळण मेळ्ळें. जमशेटपूरच्या कारखान्यांत १९११त लोखण आनी १९१२त तिखें तयार जालें. पयल्या म्हाझुजा उपरांतच्या पांच वर्सांत बर्नपूर हांगा इंडियन आयर्न

अँड स्टील कंपनी (इस्को -१९१८) आनी भद्रावती हांगा म्हैसूर सरकाराची म्हैसूर आयर्न अँड स्टील कंपनी १९२३ अशो दोन कंपन्यो स्थापन जाल्यो.

१९३७ वर्सा स्थापन जाल्ली स्टील कॉर्पोरेशन ऑफ बेंगॉल ही कंपनी १९५३ वर्सा इस्कोंत विलीन केली.

भारताच्या सुटके उपरांत लोखण आनी तिरव्या उद्देगाच्या विकासाविशीं पयले पंचवर्सुकी येवजणेंत विचार जाल्लो. पूण दुसरे येवजणेंत भिलाई, दूर्गापूर आनी राउरकेला हांगा प्रत्येकी वर्सुकी १० लक्ष टन क्षमतेचो संकलीत तिरव्या प्रकल्प उबारपाच्या कामाक सुरवात जाली. तिसरे येवजणेंत भौशिक मळावयल्या तीन तिरव्या संयंत्राचो विस्तार करप आनी बोकारो हांगा नवीं संयंत्रां उबारप हाचेर भर दिवपांत आयली. चवथे येवजणेच्या कार्यक्रमांत अस्तित्वांत आशिल्ल्या तिरव्या क्षमतेचो चडांत चड उपेग करप आनी तमिळनाडूंतले सालेम, कर्नाटकांतल्या विजयानगर आनी आंध्र प्रदेशांतल्या विशाखापटनम हांगा तीन तिरव्या संयंत्रां उबारपाची येवजण करून पांचवे येवजणेंतल्यो गरजो भागोवपाखातीर चड तिरव्या उत्पादनक्षमता निर्माण करप हांचो आस्पाव आशिल्लो.

फुडें इंडियन आयर्न अँड स्टील कंपनीचें (ईस्कोचें) कार्य सुदारपाचे नदरेन सरकारान हें कंपनीचें व्यवस्थापन १४ जुलय १९७२ दिसा ताब्यांत घेतलें आनी मागीर १७ जुलय १९७६ दिसा कंपनीची मालकी संपादन केली.

१९८४ वर्साच्या सुमाराक भारताची तिरव्या उत्पादनाची वर्सुकी क्षमता १.४६ कोटी टन आशिल्ली. हातूंत संकलीत तिरव्या संयंत्राची १.१४ कोटी टन आनी लघू तिरव्या संयंत्राची (मिनी स्टील प्लँटस) ३६ लाख टन आशिल्ली. द स्टील ऑथॉरिटी ऑफ इंडिया लि. (सेल; SAIL) भारतीय तिरव्या प्रधिकरण हो पुराय सरकारी मालकिचो उपक्रम आसा. जानेवारी १९७३त ताची भौशिक मळावयली तिरवें आनी विशिश्ट उद्देगांची सुत्रधार कंपनी म्हणून स्थापना जाली. १९७८त ताची कार्यकारी कंपनी म्हूण पुनर्रचणूक करपांत आयली. राउरकेला, भिलाई, दुर्गापूर, बोकारो आनी बर्नपूर हांगाचीं संकलीत पोलाद संयंत्रां दुर्गापूर हांगाचें मिश्र तिरव्या संयंत्र आनी सालेम तिरव्या संयंत्र हांच्या वेवस्थापनाची जबाबदारी ह्या उपक्रमाचेर आसा. इस्को ही ह्या उपक्रमाची दुसरी कंपनी आसून बर्नपूर स्टील वर्क्स इस्कोच्याखाल आसा. तेभायर महाराष्ट्र इलेक्ट्रोस्मेल्ट ह्या फेरो मँगनीज आनी तिरवें हांचें उत्पादन करपी लघू तिरव्या संयंत्राचो सेलान ताबो घेतला. भौशिक मळावयल्या तिरव्या संयंत्राचें नियंत्रण, कार्य संचालन आनी ताच्या उत्पादनाचें विपणन हाचे वांगडाच भारतांतल्या तिरव्या उद्देगाचो योजनाबध्द विकास करपाखातीर भारत सरकाराक आदार दिवपाची जबाबदारी सेलाचेर आसा. ह्या उपक्रमाचे कलकत्ता हांगाच्यो केंद्रीय विपजन संघटना, रांची हांगाचें लोखण आनी तिरव्या संशोधन आनी विकास केंद्र आनी दिल्लीचें अभियांत्रिकी आनी तंत्रविद्या केंद्र हे विभाग आसात. रांची हांगा सेलची स्वतंत्र व्यवस्थापन प्रशिक्षण संस्था आसून दर एक संकलीत तिरवें संयंत्रांतय वेगळयो प्रशिक्षण संस्था आसात.

सेल ह्या उपक्रमावरवीं चलोवपांत येवपी संयंत्रांत पिग लोखण, लोहपिंड आनी ताचें रुपांतर करून तयार केल्लें विक्रियोग्य तिरवें, उश्ण लाटण केल्ली वेंटोळीं, पत्रे, पट्टे, गॅल्व्हानीकरण केल्ले सपाट पत्रे, ओतकामाखातीर आनी पुनर्लाटणीखातीर योग्य आशिल्लें लोहखंड, रेल्वेखातीर पोलादी पट आनी शिळेपाट (स्लीपर्स), हलकें आनी मध्यम बांधकाम घटक, चाकां आनी आस, लाटून आनी वितळ जोडकामान नळयो तयार करपाक योग्य आशिल्ले तिरव्या पत्रे आनी पट्ट्यो, विद्युत् तिरव्या पत्रे, सर्पिल पद्धतीन वितळजोडकाम केल्ले नळ, चिलखती पट्ट्याच्या पांवड्याचें तिरवें, अगंज तिरवें, अणुकेंद्रीय इंधनाखातीर घडीव तिरव्याचीं वाटकुळां आदी जायत्या प्रकारच्यो लोखणी आनी तिरव्याच्यो वस्तू तयार करतात. तेभायर कच्चें डांबर, डांबर ऊर्ध्वप्रतितां, नॅप्था, अमोनियम सल्फेट, कॅल्शीयम अमोनियम नायट्रेट, दाणेदार मळी, आदी उपउत्पादनांय मेळोवपांत येतात. हातुंतलें अमोनियम सल्फेट म्हत्वाचें आसून ताचें सगळया संयंत्रांत मेळून सुमार १,५७,००० टन वर्सुकी उत्पादन मेळटा. राउरकेक तिरव्या संयंत्रांत वेगळें कॅल्शियम अमोनियम नायट्रेट संयंत्र आसून ताची वर्सुकी क्षमता ४,५९,००० टन आसा. अमेनियम सल्फेट आनी कॅल्शियम अमोनियम नायट्रेट हांचो म्हत्वाचीं खतां म्हूण उपेग जाता. हातुंतलीं उप-उत्पादनां रबर, स्फोटक द्रव्यां, वखदां, बाश्पनशील तेलां, रंगलेपं आदी उद्देगांत कच्चो माल म्हणून उपेगी आसात.

खाजगी क्षेत्रांत टाटा आयर्न अँड स्टील कंपनी हीं सगळयांत व्हड लोखण आनी तिरव्या उत्पादकां आसात. जमशेटपूर हांगाचें संकलित तिरव्या संयंत्र भारतांतलें सगळयांत पोरनें आसा. ही कंपनी कांबी, बांदकाम घटक, पट्ट्यो, काळे आनी गॅल्व्हानीकरण केल्ले पत्रे, विद्युत् तिरव्या पत्रे, रेल्वे सामुग्री, लाटिल्ली खिळी आदी तिरव्या वस्तुंचें तशेंच फेरोमँगनीज, शेताचीं अवजारां, अमोनियम सल्फेट आनी बेंझॉल उत्पादनां हांचें उत्पादन करतात.

भारतांतल्यान १९७९ - ८०त १०५.२ कोटींचें आनी १९८१ - ८२ त रु. ७०.१ कोटींचें लोखण आनी तिरवें निर्यात जालें. ह्याच काळांत भारतांत अनुक्रमे रु. ८६८.६ कोटींचें आनी रु. ११३६.४ कोटींचें लोखण आनी तिरवें आयात करपांत आयलें. तशेंच १९८६-८७त १४४९.७ कोटींचें आनी १९८७ - ८८त १२७३.२ कोटींची आयात आशिल्ली.

विशाखापटनम तिरव्या प्रकल्प हो दक्षिण भारतांत उबारपांत येवपी पयलो संकलीत प्रकल्प आसा. ह्या प्रकल्पाच्या अभिकल्पांत जायत्या आधुनिक तंत्रिक खाशेलपणाचो आस्पाव केल्लो. ह्या प्रकल्पाची

वर्सुकी क्षमता द्रवरुप तिरव्याच्या रुपांत ३० लाख टन अंदाजीत आसा. आंध्र प्रदेशांतल्या कोउगुडम हांगा स्पंजी लोखण उत्पादनाचो एक खाशेलो प्रकल्प हातांत घेतला. तेभायर ओरिसांत ओरिसा स्पाँज आयर्न लि. आनी टिस्को तशेंच इंडस्ट्रियल प्रमोशन अँड इन्व्हेसमेंट कॉर्पोरेशन ऑफ ओरिसा हांच्या सहकार्यान उबारिल्लयो इपिटाटा अशे दोन स्पंजी लोखणाचे प्रकल्प आसात. हातूंत इपिटाटा संयंत्राची वर्सुकी क्षमता १०,००० टन आसा.

तिखें आनी खणी मंत्रालयाखाल मेटॅलर्जिकल अँड इंजिनियरिंग कन्स्टल्टंटस (इंडिया) लि. (मेकॉन) ही स्वायत्त कंपनी लोखण आनी तिरव्या उद्देगाक पुराय सल्लो आनी अभियांत्रिकी सेवा तशेंच संकल्पनेपसून ते क्रियान्वित करमेरेनचो प्रकल्प व्यवस्थापन सेवा पुरयता. तेभायर ही कंपनी सामुग्री आनी प्रणाली अभिकल्प क्षेत्रांत थंयचे थंयच अभियांत्रिकी आनी संशोधन विकास करून उश्ण आनी थंड लाटण यंत्रां, लोखणी आनी तिरव्यावस्तुंवयल्या अंत्यरूपणाखातीर वाहक मार्ग, कोकभट्टयो, झोतभट्टी सामुग्री, वायुसफाई संयंत्र आदी संबंदींची पुराय सेवा पावयता.

भारतांत लोखण आनी तिखें हांचेपसून मिश्र तिखें, पूर्वरचित संरचना, वेगवेगळया यंत्रांक आनी वाहनांक लागपी मोठे भाग, शेताचीं अवजारां, फर्निचर, अगंज तिरव्याचीं आयदनां, पट्टयो, पट्ट, नळ, नळयो, दारां, जनेलां, जाळयो, रोलिंग शटर्स, सरयो, आदी वेगवेगळयो वस्तू तयार करपी जायते खासगी ल्हान व्हड कारखाने आसात. हे कारखाने कलकत्ता, जमशेटपूर, नवी दिल्ली, फरीदाबाद, लुधियाना, जलंदर, इंदूर, अहमदाबाद, बडोदा, नवसारी, हैदराबाद, सिकंदराबाद, मद्रास, बंगलोर, मुबंई, ठाणे, पुणें, कोल्हापूर, नासिक, सांगली हांगा आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**लोणचें :** जेवणांतल्या सदच्या जिन्नसांतलो एक उपजिन्नस. आंबल्यो, लिंबू, बिमलां, आमाडे, कारांदां, गाजर, फ्लावर आनी हेर तत्सम फळांच्यो फोडी मिरसांगो, हींग, सासवां घालून केल्लो तिखट - आंबट पदार्थ. ह्या पदार्थाची सुरवात केन्ना आनी कशी जाली हें सांगप कठीण. पूण कल्पना करूं येता तेप्रमाण तेंच तेंच खावन, वा एकेच तरेचें खाण खावन मनशाक उबगण आयली जातली. कितेंय पूण दुसरी तरा आसची, आमशें - तिखशें खातकच रूच बरी येता अशें आदि मानवाकूय दिसलां जातलें. झाडां - पेडांवयलीं आमशीं फळां खातकच रूच वाडटा हेंय तांणी अणभवलां जातलें. तातुंतल्यानूच लोणच्याचो जल्म जाला जावंये.

हो पदार्थ सगळया देशांनी, सगळया तरांच्या लोकांभितर वापरतात. शिवराक जेवणांनी हो पदार्थ आसताच. चड गोडशें जेवण आसता तेन्ना रूच हाडपाखातीर हो पदार्थ दवरतात. पुरूमेताखातीर हो पदार्थ मुजरत करून दवरतात वा विकतो हाडून दवरतात. ह्या पदार्थाचे खूब प्रकार आसात. ताच्यो करपाच्योय पद्दती खूब आसात. गोड लोणचें, तिखट लोणचें, भरिल्ल्या आंबल्यांचें लोणचें, झटपट म्हळयार हात लोणचें, भाजयांचें लोणचें, कैरी - किसाचें लोणचें, लिंबाचें लोणचें, गाजराचें लोणचें, पीकल्ड आनियन्स आनी हेर. हीं जालीं फळां - भाजयांचीं लोणचीं. मांसाहारी लोणचींय करतात. सुंगटांचें लोणचें म्हळयार बाल्चांव, बांगड्यांचें, चिकनाचें लोणचें अशे जायते प्रकार आसात.

**तयार करपाची पद्दत - १) भरिल्ल्या आमल्यांचें लोणचें :** हें लोणचें वर्सभर तिगता. तेखातीर बरी जतनाय घेवची पडटा. उदकाचो मातूय वास हाका लागूंक उपकारना.

सांसवां, हिंग, मिरयां, मेथी, हळद, सुक्यो मिरसांगो हें सगळें तेलांत फुलोवन घेवप. ताचो पिठो करप आनी तो चडशा तेलान आनी मिठाच्या उदकान (आमल्यो चेपपाक दवरतकच उदक सुट्टा तें - तापोवन न्हिवयल्लें उदक) कालोवन दवरप. आमल्यो बऱ्यो धुवन, पुसून घेवप. एकेवटेन अखंड उरतात अशो चारवटेन चिरप, तातूंत मीठ भरून चेपणाक दवरप. दोन - तीन दिसाउपरांत त्या मीठाचें उदक सुट्टा. त्या उदकाक खळ म्हण्टात. त्या खळांतल्यान आमल्यो कुशीक काडून तो खळ बरो खतखतावप आनी तो बरो न्हिवतकच, वयर सांगिल्लेभशेन तो मसालो कालोवप. उपरांत हो कालयल्लो मसालो आमल्यांनी गच्च भरप आनी त्यो आमल्यो आचावांत वा बरणेंत सारक्यो दाळून भरप. ताचेर तापोवन न्हिवयल्लें तेल घालप आनी परतून चेपणाखातीर सुपुल्ले फातर दवरप. एक - देड म्हयन्यांभितर हें लोणचें बरें मुरता आनी वर्सभर उरता.

**२) गोड लोणचें :** हिंग, मेथी, मिरयां, हळद, मिरसांगेचो पिठो, सांसवां फुलोवन घेवन ताचो पिठो करप. गोडाचो उदक घालून पातळसो पांक करप. तातूंत मसाल्याचो पिठो घालप आनी आमल्यो वा बिमलां वा आमाडे वा लिंबू घालून शिजोवप. हें लोणचें म्हयनोभर तिगता.

**३) सादें साड्डायल्लें लोणचें :** हाका हातलोणचें वा झटपट लोणचेंय म्हण्टात. आमल्यो, लिंबू, गाजर वा फ्लावर, किद्याच्योय चिरून बारीक फोडी करप. तांचेर मिरसांगे पिठो, हिंग, लिंबाचो रोस, मीठ, इल्लिशी साकर घालून साड्डावचें. हें लोणचें ७ - ८ दिसांपुरतें तिगता.

**४) आमल्यो आनी कांद्याचें लोणचें :** आमल्यांच्यो बारीक फोडी १ वाटी, २ चमचे सांसवां पिठो, मिरसांगे पिठो, रूचीप्रमाण मीठ, १/४ चमचो मेथीचो पिठो, फोण्णाक हिंग, हळद, तेल आनी एक कांदो.

पद्दत : आमलेभाशेन कांदोय बारीक चिरचो. सगळे जिन्नस एकठांय कालोवंचे. वयल्यान फोण्णां दिवचीं. हीच पद्दत गाजर, मुळो, राजावळे

हांचें लोणचें करपाखातीर वापरतात. हातूंत फकत कांदो घालप ना.

**५) भाजयांचें लोणचें :** साहित्य - हरवे वाटाणे अर्द वाटी, फ्लावराचे बारीक कुडके, गाजराचे थोडेशे कुडके, १ चमचो आल्याचो कीस, ओले हळदीचे कुडके आनी हरव्या मिरसांगांचे कुडके पाव वाटी, ४ चमचे सांसवां पिठो, १ चमचो मेथी पिठो, मिरसांगे पिठो, हळद, मीठ आनी फोण्णाचें साहित्य. सगळे जिन्नस एकठांय करून वयल्यान फोण्णां दिवप.

**६) आमल्या किसाचें लोणचें :** साहित्य - ताज्या आमल्यांचो १ वाटीभर किशिल्लो कीस. ३-४ हरव्यो मिरसांगो धाडायल्ल्यो, १चमचो हिंगाचो पिठो, १/२ चमचो हळद, चवीप्रमाण मीठ, फोण्णांक तेल आनी सांसवां. पद्दत : किशिल्ल्या आमल्यांनी धाडायल्ल्यो मिरसांगो कालोवप, फोण्णांक तेल हून करून तातूंत हिंग, सांसवां, हळद, घालप. हातूंत वयर मिरसांगो कालोवन दवरील्लो कीस घालून बरणेंत भरप.

**७) गाजराचें लोणचें (सिंधी प्रकार) :** साहित्य - तांबडे गाजर सात - आठ, तन्ने लसणीचो एक कांदो, रूचीक मीठ, सांसवां पिठो, १/२ चमचो हळद, तेल. पद्दत - गाजर तासून घेवप आनी तांचेर खतखतीत उदक घालप. गाजर मात्शे मोव जातकच, बरे पुसून घेवप. लसणीच्यो बियो बऱ्यो धुवून बारीक चिरप. गाजराच्यो लांबशो शिरो करप आनी चिरिल्ली लसूण, मीठ, सांसवां पिठो, हे सगळे जिन्नस बाटलेंत भरप. बुडून १ बोट वयर येत इतलें खतखतीत तेल ताचेर ओतप. बाटलेचें धाकण घट्ट बंद करप. बाटली खूब फावटीं हालोवप ३ - ४ दिसांनी हें लोणचें तयार जाता.

लिंबाच्या किसाचें, काकडेचें लोणचें अशेच पद्दतीन करूं येता. उत्तर प्रदेशीय आमल्यांचें लोणचें, सिंधी आमल्यांचें लोणचें, लिंबाचीं लोणचीं (गुजराती पद्दतीचीं), कॉलीफ्लावराचें, लिंबू - मिरसांगांचें, पणसाचें लोणचें, वायग्यांचें मिश्र लोणचें, कारात्याचें, कारांद्याचें अशीं जायत्या प्रकाराचीं लोणचीं आसात. हीं जालीं शिवराक लोणचीं. मांसाहारी लोणचींय करतात.

गोंयांत सुंगटांचें लोणचें जाका बाल्चांव अशेंय नांव आसा. हें चड करून किरिस्तांव समाजांत करतात. हें लोणचें करपाची पद्दत अशी आसा - तेल तापोवन तातूंत हिंग, मेथी आनी सांसवांचीं फोण्णां दिवप, उपरांत तातूंत मिरसांगांचो पिठो आनी उजरायल्लीं सुंगटां घालून तळसप. सुंगटां शिजलेवरी जातकच तातूंत मीठ आनी आंबटाणीचें दाट उदक घालप. दोन - तीन मिनटां शिजोवन सकयल काडप. रुचीक इल्ली साकरय घालतात. कांय जाण तातूंत हरव्या मिरसांगांचे, लसणीचे आनी आल्याचेय कुडके घालतात. हेच पद्दतीन बांगड्यांचें लोणचें करतात.

पौश्टीक गूण हातूंत चडशे नासले तरी हो पदार्थ जिबेक लायनाफुडें तोंडांत लाळ येता. ताका लागून पोटांतलो पाचक रस जागो जाता आनी जिरवण बरी जाता. आमल्यो, आमाड्यांनी व्हिटामीन 'सी' आसता. हो जिन्नस प्रमाणांतूच खावंक जाय. चड खाल्यार माल पडपाची शक्यताय आसता. तिगपासारकें लोणचें करपाची पद्दत मात्शी किटकिटीची आशिल्ल्यान चडशे लोक तें विकतेंच घेतात. देशभर लोणचें करपाचे जायते कारखाने आसात. तांचेवरवीं संवसारभर लोणच्याची निर्यात जाता.

तरेकवार भाजयो, फळां त्या त्या ऋतुंनीं खूब प्रमाणांत जातात, तेन्ना तांचें लोणचें करप फायद्याचें जाता. तातूंत घालतात तें मीठ, हें लोणचें बरें स्थितींत तिगोवन दवरपाचें काम करता. वर्सभर तिगपाचें लोणचें चिनी मातयेच्या बरण्यांनी घातल्यार चड बरें उरता. हालीं लोणचें करपाचे तयार मसाले मेळटात. लिंबाचो रोस, तेल जावं व्हायट व्हिनीगर घालून लोणचीं करतात. ह्या सगळयांक लागून लोणचें चड तेंप तिगता आनी ताका रुचूय बरी येता.

चड तेप लोणचें तिगून उरपाखातीर बरणेच्या तोंडाचेर एक नितळ धवो कपडो बांदून, ती बरणी मेकळे, सुके सुवातेर दवरची. बरणेंतल्यान लोणचें काडून घेता आसतना तें सुक्या चमच्यान घेवचें.

- सुधा सु. आमोणकार

**लोणारी :** महाराष्ट्रांतली एक जात. हांकां केन्ना केन्नाय गाढव लोणारी आनी रेडे लोणारी म्हणूनय वळखतात. मुळांत हे लोक मराठा आसुंये अशें अनुमान काडप जाता. पूण चुनो आनी कोळशे तयार करपाचें काम करत पसून हांची जात वेगळी जाली आसुंये. बेळगांव जिल्ह्यांत हांचे मीठलोणारी आनी जुनेलोणारी अशे दोन भेद आसात. हांचेभितर रोटी वेव्हार जाता, पूण बेटी वेव्हार जायना. अहमदनगर, पुणें आनी सोलापूर हांगा खुध्द लोणारी आनी कडू वा अकरमासे लोणारी अशे दोन पोटभेद आसात.

जातिविवेक ह्या ग्रंथांत ह्या लोकांक मल्लट दादलो आनी आवर्त बायल हांची संतती मानल्या. संस्कृत भाशेंत ह्या लोकांक सैमीक अशें नांव आसा. महाभारतांत लोणाऱ्यांचो उल्लेख आसून झाडां तोडून आनी जळोवन ते लोक कोळसो तयार करताले अशें थंय म्हळां. हाचेवयल्यान तांचो मूळचो वेवसाय कोळशे तयार करपाचो आसूंक जाय अशें दिसता.

ह्या लोकांत चोरगे, ढोणे, दणगेकर, राक्षे, बोंद्रे, करचे, तांबे, झाडगे आदी आडनांवां आसात.

हे लोक वारकरी, शैव वा वैश्णव पंथाचे आसात. ते चडशे सगळया देवांक भजतात आनी तांचे सगळे उत्सव आनी परबो पाळटात. ते आळंदी, जेजुरी, पंढरपूर, तुळजापूर, काशी आदी तीर्थक्षेत्रांच्यो तीर्थयात्रा करतात. रोगराई पातळ्ळी जाल्यार ते मरीआई आनी शितलादेवी हांकां पुजतात.

तांच्यांत जातपंचायत आसून, जातींतले वाद-विवाद तिचेवतीन

सोडयतात.

ह्या लोकांत फकत मामेभयणी कडेन लग्न करूंक मेळटा. आतेभयणीकडे वा मावसभयणीकडे लग्न जावंक मेळना. सादारणपणान चल्याचो बापूय चलयेक मध्यस्थाकडल्यान मागणी घालता. तांच्यांत पत्रिका पळोवन वा नक्षत्र पळोवन लग्न थारायतात. ब्राह्मण पुरोयत लग्नाचो मूर्त काडून दिता. लग्न थारतकच साकरपुडो जाता. लग्नांत देवक बसोवप, न्हवऱ्याक व्हंकलेगेर व्हरप, सिमांतपुजा, कन्यादान, रुखवत, साडो, सप्तपदी हे लग्नांतले मुखेल विधी आसात. लग्नाच्या वेळार न्हवरो - व्हंकलेक कोंडयाचे शिल्लयार वा व्हंकले पाटार आनी न्हवऱ्याक दोरयेच्या पिळयार उबीं करतात. सप्तपदी हो तांच्या लग्नांतलो म्हत्वाचो विधी आसा. लग्नाआदीं चलयेचो जातींतल्याच मनशाकडे संबंद आयल्यार ताचेकडेनच तिचें लग्न लायतात. तेखातीर अशा मनशाक कांय प्रायश्चीत घेवचें पडटा आनी पंचायतीक दंड भरून जेवण दिवचें पडटा अशा मनशाक कडू वा अकरमासे समजतात. तांच्यांत विधवेचें लग्न खंयच्याय म्हयन्यांत वद्य पक्षांतच जाता.

हे लोक मडीं पुरतात वा लासतात. मनीस मरतकच रोखडेंच ताका हून उदकान न्हाणयतात, नव्या कपडयांत गुठलायतात आनीक तिरडेचेर दवरतात. सवाशीण बायल मेल्यार तिका नवी साडी न्हेसोवन कपलभर कुकूम फासतात. मसंडेच्या अर्दे वाटेर तिरडी सकयल दवरून त्या जाग्यार एक लाडू आनी पयसो दवरतात. मसंडेंत मडें सरणाचेर दवरतकच ताचो उत्तराधिकारी न्हाता आनी आपलें वस्त्र भिजोवन तें मडयाच्या तोंडांत पिळटा. उपरांत तो सरणाक उजो लायता. तिसऱ्या दिसा मडयाच्यो अस्ती आनी गोबोर एकठांय करतात आनी त्या जाग्यार गोमूत आनी शिताडो घालतात. धाव्या दिसा दशपिंडी आनी तेराव्या दिसा श्राध्द वाडटात. चवदाव्या दिसा मेल्लो दादलो वा बायल आसल्यार तेप्रमाण एके बायलेक वा दादल्याक जेवपाक वाडटात. हेचभशेन ते दर वर्सा तेच बायलेक वा त्याच दादल्याक जेवपाक आपयतात.

लोणारी शब्दांतलो लोण = मीठ हाचेवयल्यान ह्या लोकांचो पारंपारीक वेवसाय मीठ तयार करपाचो आसुंये. बेळगांव जिल्ह्यांतले लोणारी अजुनय होच धंदो करतात. पूण सद्याच्या काळांत बरेचशे लोणारी चुनो आनी कोळसो तयार करतात. कांय लोक शेतकार आसून कांय जाण कश्टांचेंय काम करतात. हे लोक बोकडयो, मेंढरां हांचें मांस तशेंच नुस्तें खातात. काळाप्रमाण लोणारी लोकांमदींय आतां जायते बदल जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**लोणी :** दुदापसून धंय, साय, धंयापसून ताक आनी ताकापसून लोणी तयार जाता. लोणी हो एक स्निग्ध, तेलकट जिन्नस. दुदाचे सायीपसून जाल्लो हो धतरिच्या जन्मासावनच, परमेश्वरान जेन्ना गोरवांक जन्माक घालें तेन्नापासून पुराण काळासावन लोणाचो उल्लेख सगळेकडेन आयला. दुदावयली साय एकठांय करून, तांतूत म्हौंवण (विरजण) घालून तें चाळटकच ताचेर लोणी उफेता.

विरजण (म्हौंवण) करपाची पद्दत म्हळयार - दूद विटकळावप. इल्ल्याशा दुदांत लिंबाचे दोन थेंब घालप आनी दूद विटकळावप आनी १ दीस-रात तें दुसऱ्या दुदा-सायेंत घालप म्हण्टकच विरजण तयार जाता. लोणी खतखतायलें कीं तूप जाता.

लोणी हो आदीमानवान सोदून काडिल्ल्या हेर जिनसां भितल्लो एक जिन्नस. पुराण - महाभारत काळासावन हो जिन्नस आयकूंक मेळटा. दूद विटकळलें आसतलें, तें हालयतकच घडये लोणी वयर उफेलें आसतलें. तें रुचीक लागता म्हणून कळटकच तांणी तसो प्रयोग करून पळेला जातलो. अरळ म्हौंवाळ कशें लोणी सगळयांक प्रिय जालां जातलें. कृष्ण लिपचोरयां लोणी खातालो, हाचो उल्लेख पुराण - महाभारतांत जंयथंय आयला.

'लोणी' हो सगळया संवसारभर आशिल्लो जिन्नस. गाय, म्हशी, बोकडयो, संवसाराचेर सगळेकडेन आसात. जंय ही दूद दिवपी गोरवां चड थंय दूद लोणी - तूप सारकिल्ले जिन्नस चड. गांवा गांवांनी तर, ताचेर आदारूनच दुदापसून तयार जावपी जिन्नस, दूदपेडे, बर्फी, कुंदो, हेर वस्तू, तूप - बी हांचो वेपार - व्यवसाय चलता. गांवागांवांनी हे जिन्नस तयार करतात आनी शारांनी ताचो पुरवठो करतात.

**तयार करपाची पद्दत :** दुदाची साय काडून, तातूंत विरजण घालतात. सायीसकट विरजण घालून धंय करतात. तें दुसऱ्या दिसा चाळळें म्हणजे तातुंतल्यान लोणी भायर सरता. पयलीं तेंपार लांकडाचे रवीन धंय - ताक चाळटाले, आतां तरेकवार मिक्सरा सारकिल्लीं मारवनां आयल्यांत. गांवगिऱ्या वाठारांनी धंय मातयेच्या मडक्यांनी घालून, रवयेक दोरी बांदून चाळटात.

चडशा व्हडल्या शारांनी पाकलोणी, भाकरी - लोणी हें खाण आतां मुखेल खाण जालां. देखून तें पाव - चपाती सारकिल्ल्या जिनसांक लावन खातात. लोणी जिवाक घटसाण हाडटा. धर्मीक कार्यावळीवेळार लोणयापसून केल्लें तूप वापरतात. ताचेबगर अन्न - शुध्दी जायना. अशें शास्त्रांत मानतात. धर्मीक ग्रंथांनी तर लोणयाची खूब तुस्त केल्या. आयुर्वेदिक वखदांनींय हो जिन्नस वापरतात. लोणी कातीक लावपाखातीरय वापरतात. थंडेच्या दिसांनी ओंठ फुट्टात म्हूण ओंठाक लोणी लायतात. लोणयांत खूबशे वखदी गूण आसात. पुराण - महाभारत काळासावन, जायत्या कथांनी कृष्ण लोणयाक कसो पिसो जातालो आनी मस्ती करतालो तें वाचपाक मेळटा. धर्मीक ग्रंथांनी लोणयाचें म्हत्व खूब तरांनी सांगलां. संवसाराचेर चडांतचड लोणी न्युझिलंड, ऑस्ट्रेलिया, डेन्मार्क ह्या देशांतल्यान निर्यात जाता. भारतांत लोणयापरस तूप चड खातात.

- सुधा सु. आमोणकर

**लोदी राजघराणें :** (इ.स. १४५१ - १५२६). दिल्लीच्या तख्तावयल्यान राज्य करपी निमाणें सुलतान राजघराणें. हे लोदी अफगाण वंशाचे आशिल्ले, जे सुलेमान पर्वतांच्या दोंगराळ वाठारांत रावताले. इ.स.च्या धाव्या शतमानांत ते मुलतान लागसार येवन वसले. इ.स. १३ व्या शतमानांत दिल्लीचेर तुर्कांची सत्ता आसतना कांय लोदी मनशांनी बल्बनच्या हाताखाल नोकरी केली. इ.स. १३४१ त लोदी घराण्यांतल्या मलिक शाहू हाणें मुलतानाचेर घुरी घालून थंयच्या सरदाराक जिवेशीं मारलो. पूण महंमद तुघलकान आपलें सैन्य धाडून ताचो बंदोबस्त केलो. मलिक शाहूचो नातू मलिक बहराम हो मुलतानचो सुभेदार मलिक मर्दान दौलत हाच्याखाल कामाक आशिल्लो. ताचो पूत सुलतान शाह लोदी हो खिज्रखान सय्यद हाचो सेनापती आशिल्लो. फुडें सुलतान शहान खिज्रखानचो दुस्मान मल्लू इकबाल हाका जिवेशीं मारिल्ल्यान खोशी जावन खिज्रखानान ताका इस्लामखान ही पदवी आनी सरहिंदची सुभेदारी दिली. उपरांत ताणें आपलो पुतणयो बुहलोल हाका आपलो वारस नेमिल्ल्यान तो सरहिंदचो सुभेदार जालो.

बुहलोल सरहिंदचो सुभेदार जातकच ताणें पंजाबचो चडसो वाठार आपल्या शेकाखाल हाडलो. सुलतान मुहमंदशाह हो कम्कुवत राजा आशिल्ल्यान ताणें बुहलोलाक व्हडलीशीं आडमेळीं हाडलींना. इतलेंच न्हय तर महमूद खिलजीन दिल्लीचेर घुरी घाली तेन्ना ताणें बुहलोकाक आदाराक आपयलो. बुहलोलान खिलजीक धांवडावन घालो तेन्ना खूश जावन ताणें ताका खान-ए-खानान ही पदवी दिली.

फुडें बुहलोल लोदीन इ.स. १४४३त दिल्लीचेर घुरी घाली. पूण तातूंत ताका यश मेळ्ळेंना. इ.स. १४४५त सुलतान मुहंमद शाहाक मरण आयलें तेन्ना ताचो चलो अल्लाउद्दीन हो दिल्लीचो सुलतान जालो. अल्लाउद्दीन हो नालायक आनी विलासीवृत्तीचो आशिल्लो. इ.स. १४४७त बुहलोल लोदीन परत दिल्लीचेर घुरी घाली. पूण तातुंतय ताका अपेश आयलें. अल्लाउद्दीनाचो वजीर हमीदखान हाणें बुहलोलाक नांवापुरतो सुलतान करून सगळी सत्ता आपल्या हाताखाल घेवपाच्या उद्देशान दिल्लीचो तख्त बुहलोलाकडे सोंपयलो. एप्रिल १४५१ त बुहलोल दिल्लीच्या तख्तार बसलो. ताणें बुहलोल शाह गाझी हें नांव धारण केलें. हमीदखानाक कपटान बंदी करून ताका जिवेशीं मारलो. सय्यद सुलतान अल्लाउद्दीन हाका बदायूं हांगा इ.स. १४७८त मरण आयलें.

सुलतान जातकच बुहलोलान मेवात, संभल, कोइल, साकेत, इटावा, रपडी, भोंगाव आनी ग्वाल्हेर ह्या परगण्यांचेर घुरी घालून तांकां आपले सत्तेखाल हाडले. पूण ताचे सगळयांत व्हड दुस्मान आशिल्ले तें शर्की घराणें. ते स्वताक सय्यद सुलतानाचे वारस समजताले. लोदी घराण्यान स्थापन केल्ली दिल्लीची सत्ता तांकां मान्य नाशिल्ली. ताकालागून इ.स. १४५१त महमूद शर्कीन व्हड सैन्यासयत दिल्लीचेर घुरी घाली. पूण बुहलोलान नारेला हांगा महमूदाचेर जैत मेळयलें. फुडें महमूदशाह, ताचो चलो मुहंमदशाह आनी ताचो भाव हुसेन हांणी बुहलोलाक ना करपाक सतत यत्न केले. पूण ताच्या कर्तबगारीन आनी रणकुशलकायेन ताणें इ.स. १४८६त जौनपुरचें राज्य आपल्या शेकाखाल हाडलें. इ.स. १४८९ त ग्वाल्हेराचेर घुरी घालून राजा मानसिह हाचेकडल्यान खंडणी वसूल करून परत वतना साकेतसावन १५ मैलांचेर मिलावली हांगां ताका मरण आयलें. तो एक हुशार झुजारी, कुशळ सेनापती तशेंच प्रजाहितवादी आनी दयाळू शासक आशिल्लो. तो चारित्र्यवान आनी धर्मीक वृत्तीचो आशिल्लो. अफगाण अमीर आनी सरदार हांचेवांगडा तो बरोबरच्या नात्यान वागतालो. सगळयांकडे मिळूनमिसळून आनी इश्टागतीच्या नात्यान वागिल्ल्यान अफगाणाचो ताका पुराय तेंको मेळ्ळो आनी तो आपली सत्ता वाडोवंक शकलो.

**सिकंदरशाह :** (इ.स. १४८९ - १५१७). बुहलोलचो तिसरो पूत निजामखान हाची आवय एका हिंदू शेटीची चली आशिल्ली. ताकालागून ताका सुलतान पद दिवपांत कांय अफगाणी सरदारांचो विरोध आशिल्लो. पूण १७ जुलय १४८९त निजामखानाच्या पक्षाक जैत मेळून तो सिकंदरशाह ह्या नांवान दिल्लीचे गादयेर आयलो. सिकंदर शाहान आपल्या भोंवतणच्या राज्यार घुरी घालून तिरहूत धोलपूर, मांड्रेल, अटिगिर, नरवर, चंदेरी नागौर हीं राज्यां आपल्या शेकातळा हाडलीं. शर्की राज्याची सत्ता ताणें नश्ट करून उडयली. ग्वाल्हेर, माळवा हीं राज्यां ताणें खिळखिळीं करून सोडलीं. दिल्ली ही पोरनी राजधानी मोडकळीक आयिल्ली. ताका लागून इ.स. १४९१ त तो संभल हांगा रावंक लागलो. थंय ४ वर्सां राज्य करतकच इ.स. १५०४ वर्सा ताणें आग्रा हांगा नवें नगर वसयलें आनी थंय आपली राजधानी स्थापन केली. तो एक बरो कवी आनी पंडित आशिल्लो. जायते कलाकार आनी विद्वान ताच्या आलाशिऱ्याक आशिल्ले. तो बरो झुजारी आनी हुशार सेनापती आशिल्लो. पूण नीतिकुशळ, रणकुशळ, कूटनितिज्ञ आनी जननायक ह्या गुणांनी मात तो आपल्या बापायकडे तुळा करूंक शकलो ना. इ.स. १५१७त आग्रा हांगा ताका मरण आयलें.

**इब्राहीम लोदी :** (इ.स. १५१७ - १५२६). सिकंदरशाहाक मरण येतकच राज्याखातीर ताचे दोनय पूत इब्राहीम आनी जलाल हांचेमदीं घासाघीस जावंक लागली. तेन्ना राज्याचे दोन वांटे जावन एक इब्राहीमाक आनी दुसरो जलालाक मेळ्ळो. पूण फुडें दोगांयमदीं परत संघर्श जावन ताणें १५१८त जलालाक जिवेशीं मारलो आनी पुराय साम्राज्य आपल्या शेकातळा हाडलें. जलालाक ग्वाल्हेरच्या राजान आलाशिरो दिल्लो हें निमित्त धरून ताणें व्हड सैन्य घेवन ग्वाल्हेराचेर घुरी घाली. राजा मानसिंहा उपरांत ताचो चलो ग्वाल्हेराचेर राज्य करतालो. तो इब्राहीमाक शरण आयलो.

आपल्या दुबावी स्वभावाक लागून इब्राहीमाक सगळया अफगाणी अमीरांक आनी सरदारांक कडक वृत्तीन वागोवंक सुरवात केली. तशेंच ज्या सरदारांनी ताका आदार केल्लो तांकांय ताणें बंदी करून उडयले. आझम हुमायुचो चलो इस्लामखान हाची सुभेदारी ताणें काडून घेतली. ताकालागून रागान ताणें व्हड सैन्य धाडून दिल्लीचेर घुरी घाली. ह्या झुजांत इब्राहीमान इस्मालखानाक जिवेशीं मारून ताचेर जैत मेळयलें. ह्या जैतान ताका अदीकच बळ आयलें आनी ताणें जायत्या अमीरांक जिवेशीं मारले. ताका लागून हेर अमीर सावध जाले. बिहारचो दर्याखान लोहानी हाच्या उपरांत ताचो चलो बहारखान हो सुलतान मुहंमद शाह म्हूण गादयेर आयलो आनी ताणें संभलमेरेनच्या वाठाराचेर स्वतंत्रपणान राज्य सुरू केलें. तेन्ना गाजीपूरचो सुभेदार नासीरखान, लोहानी, आझम हुमायून खानीचो दुसरो चलो फत्तेखान आनी शेरखान सूर हेय ताच्या पक्षाक वचून मेळ्ळे.

सुलतान इब्राहीम उदेंतेकडल्यान अमीरांचो बंदोबस्त करूंक घुस्पल्लो आसतनाच पंजाबचो सुभेदार दौलतखान लोदी हाणें स्वातंत्र्याची घुडी पेरली आनी आपलो चलो दिलावर खान हाका काबूलाक बाबराकडे आदार मागूंक धाडलो. त्याच वेळार इब्राहीमचो काका आलमखानय काबुलाक गेल्लो. इ.स. १५२४त बाबरान हिंदुस्थानाचेर घुरी घाली आनी इब्राहीमचो सेनापती बहारखान लोदी हाचो ताणें पराभव करून पंजाब घेतलें. पूण ताणें दौलतखानाक लाहोरचो सुभेदार करिनासतना आपलो वेगळोच अधिकारी थंय नेमलो. ताकालागून दौलत खानान रागान आलमखानाच्या आदारान दिल्लीचेर घुरी घाली. पूण तातूंत ताका यश मेळ्ळें ना.

२० एप्रिल १५२६ त बाबरान पांचवे खेप भारताचेर घुरी घाली. पानिपत हांगा दोनय सेनादलांचें व्हड झूज जालें. इब्राहीमचें सैन्य व्हड आसूनय बाबरच्या रणकुशळकायेन आनी तोफखान्याक लागून इबाहीमाक हार खावंची पडली. थंयच ताका मरण आयलें. अशेतरेन लोदी वंशाची सत्ता नश्ट जावन दिल्लीचेर मुगल वंशाचें राज्य सुरू जालें.

सुलतान इब्राहीम लोदी एक व्हड झुजारी आनी कुशळ सेनापती आशिल्लो. तो आचरणान शुध्द आनी वृत्तीन धर्मीक आशिल्लो. प्रजेच्या हिताकडे ताचें लक्ष आशिल्लें, तरी अफगाण अमिरांच्या स्वातंत्र्याचेर आळाबंदा घालून निरंकुश, एकतंत्री सत्ता प्रस्थापित करपाचो यत्न केल्ल्यान आनी ताच्या कडक धोरणाक लागून सगळे अमीर ताचेर खुबळिल्ले आनी ह्याच कारणांक लागून ताचो नाश जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**लोधा :** अस्तंत बंगालांतली एक जमात. तांची वसणूक चडकरून मिदनापूर आनी हुगळी ह्या जिल्ह्यांत, तेचपरी बिहारांतल्या सिंगभूम आनी ओडिसांतल्या मयूरभंज ह्या जिल्ह्यांतय कांय प्रमाणांत दिसून येता. ते आपलो संबंद सवरांकडे लायतात. ते स्वताक हिंदू मानतात आनी हिंदूंचे बरेच आचार विचार तांणी आपणायल्यात. तांच्यांत गुन्यांवकारी प्रवृत्ती दिसून येता देखून हेर जातींचे लोक तांकां पयस करतात आनी तेय हेर लोकांपसून पयस रावतात.

हे लोक चडशे रानटी वाठारांत, ल्हान ल्हान गांवांनी रावतात. तांच्यो खोंपी ल्हानशोच आसून तांच्यो वण्टी कोंडे आनी झाडाच्यो खांदयो एकठांय करून घडयल्ल्यो आसतात. घराचें पांखे रानांतलीं लांकडां, कोंडे आनी तण हांचेपसून करतात. घरांत रान्नीकडे एक ओंटो आसता, जाका ईसान म्हण्टात. ताचेर पितरांक जेवणखाण दवरतात. कांय लोक मातयेच्या व्हड खोंपींनी रावतात. हे लोक बंगाली, ओडिया आनी कांय मुंडारी शब्दांची भरसण आशिल्ली बोलीभास उलयतात. ते घटमूट आनी काटक आसतात. तांच्या आंगार कपडे चड प्रमाणांत नासतात. तांच्यो बायलो जर्मन सिल्वरचीं कांकणां आनी मणयांच्यो माळो घालतात. हातार, छातयेर तीं फुलाच्यो नक्षी गोंदोवन घेतात.

तांच्यांत जायतीं घराणीं आनी कुळयो आसून दर एका घराण्यांत जायतीं कुटुंबां आसतात. ह्या सगळयांचें एकच देवक आसता. चिर्का आलू, सालमासा, चंद्र, माणिक नांवाचो पक्षी, वाघ, चांदा नुस्तें अशीं तांचीं देवकां आसतात. तांच्यांत कोनाल हें सगळयांत व्हड घराणें. ते लोक लग्न सुवाळयांत तेचपरी धर्मीक कार्यांत पुरयतपण करतात. चंद्र हें ह्या घराण्याचें देवक आशिल्ल्यान उमाशे दिसा ते सुतक पाळटात.

लोधांचेर वैश्णव संप्रदायाचो बरोच प्रभाव आसा. तांच्यांत भगवान हाका सर्वश्रेश्ठ देव मानतात. हाचेशिवाय, बसुमाता (भूमाता), धर्मदेवता, शितळा, बराम, चंडी, मनसा ह्या देवांक भजतात. लोधी लोकांत आते, मामे आनी मावस भावंडांमदीं लग्नां जायनात. तेचपरी एका घराण्यांत आनी एकच देवक आशिल्ल्या घराण्यांत लग्नसंबंद जुळना. चलयेक देज दिवपाची चाल तांच्यांत आसा. जेन्ना एका घराण्यांतलीं भाव-भयण आनी दुसऱ्या घराण्यांतलीं भयण-भाव हांचे भितर लग्न जातात तेन्ना देज घेनात. मंगळार हो लग्नाखातीर सगळयांत बरो दीस मानतात.

चली पसंत करतकच न्हवऱ्याकडले लोक पांच हळदीकुटां, पांच चमचे सांसवांचें तेल, एक नवो करगोटो आनी लांकडी मणयांची माळ घेवन व्हंकलेगेर वचून लग्नाचो मूहूर्त थारयतात. लग्नाआदीं पांच दीस न्हवरो व्हंकलेक आपआपल्या घरा तेल लावन न्हाणयतात. लग्न चडकरून व्हंकलेगेरच जाता. न्हवरो - व्हंकल लांकडी मणयांचो माळो घालतात आनी घालून कमराक तांबडो करगोटो बांदतात. तांकां एकामेका सामकार बसोवन तांचेमदीं अंतरपाट धरतात. उपरांत संबर म्हळयार ह्या सुवाळयाचो मुखेली (न्हवऱ्याच्या आत्याचो घोव)

न्हवऱ्याच्या पागोटयाचें आनी व्हंकलेचे साडयेचें तोंक हांची गांठ मारता. उपरांत न्हवरो - व्हंकल एकामेकांक तिबो लायतात. उपरांत अंतरपाट पयस करून व्हंकलेक वराचे दावे वटेन बसयतात. होच तांच्या लग्नांतलो मुखेल विधी आसता. दुसऱ्या दिसा न्हवऱ्यागेर खारू पारनो नांवाचो विधी जाता. खारू म्हळयार लोखणी कडें घेवन न्हवरो व्हंकलेच्या कपलार आनी भांगांत सिंदूर लायता. अशें तीन वेळां करतकच तें कडें व्हंकले हाताक घालता. उपरांत दोगांयच्या वस्त्रांची गांठ सोडयतात.

तांच्यांत घटस्फोटाची चाल आसा, तेचपरी घटस्फोटीत बायलेक आनी विधवेक परत लग्न करूंक मेळटा. अशा लग्नाक सांगा म्हण्टात. अशा लग्नाखातीर गांव मुखेल्याची परवानगी घेवंची पडटा आनी ग्रामपंचायतीक देणगी दिवंची पडटा.

हे जमातींत एकवीस दीस सुयेर पाळटात. भुरगें स म्हयन्यांचें जालें म्हणजे ताचें जावळ आनी उश्टावण करतात. बाळंतिणीची आनी तिच्या गर्भाची राखण जावची म्हण ग्रामदेवांक फळां, कोंबो वा बोकडो ओंपपाची चाल आसा.

हे लोक मडीं लासतात. तशेंच अपघात जावन मेल्ल्या मनशाचें मडें रानांत व्हरून उडयतात. मड्याकडे ते एक कोयतो दवरतात जाका लागून भूतबादा जायना असो तांचो समज आसा. हे लोक धा दीस सुतक पाळटात, निमण्या दिसा ते ताचें श्राध्द वाडटात.

लोधा लोक शितळा, चंडी, वराम मनसा आदी देवांचे उत्सव वर्सांतल्यान जायतेवेळां मनयतात. ह्या वेळार ते त्या देवांची पुजा करून वेगवेगळे पदार्थ तांकां निवेद दाखयतात. तुपाचें हवन करतात, बळी दितात आनी आरती करतात. ते उपरांत संगीत, नाच जाता आनी निमाणें देवतेचें विसर्जन करतात.

तांचो बांदना हो उत्सव कार्तिक म्हयन्यांत येता. ह्या दिसा मोनजातीची पुजा करतात. तुसू हो तांचो भौशिक उत्सव. हातूंत लोधा, महतो, कोरा ह्या जातींच्यो बायलो एकठांय येवन बावल्यांचीं लग्नां लायतात आनी मजा करतात. चैत्र संक्रांत हो तांच्या वर्साचो निमणो दीस आसून त्या दिसा पितरांखातीर अन्न शिजोवन इसानाचेर दवरतात. ह्या दिसा हे लोक नवीं आयदनां हाडटात.

ह्या लोकांक नाचाची खूब आवड आसून फकत दादल्यांकच उत्सवांत नाच करूंक मेळटा.

रानांत रावपी लोधा लोक कंदमुळां एकठांय करून आनी शिकार करून पोट भरतात. कांय जाण शेतांतलो वावर करतात. हाचेभायर लांकडां एकठांय करप, रेशमाचे कोश एकठांय करप, म्होंव आनी मोहाचीं फुलां जमोवप, जाल्यार कांय जाण जिवाणीं आनी कांसव धरून विकतात. जाल्यार कांय जाण नुस्तें विकपाचोय धंदो करतात. भात हें तांचें मुखेल पीक. ते धोणू - बाण, जाळीं आनी सांपळे वापरून शिकार करतात.

लोधा लोकांची जातपंचायत आसता. सगळे जाण्टे दादले तिचे वांगडी आसतात. जातीच्या सगळया प्रस्नांचो विचार करप, तांकां न्याय दिवप, व्यभिचार, चाली मोडप, पंचायतीची आज्ञा मानप ना आदी चुकां खातीर दंड दिवप, हीं कामां जातपंचायत करता. तेभायर धर्मीक उत्सव लग्नसंबंद जुळोवप ज्ञातीजेवणाची वेवस्था हेविशींची भासाभास पंचायतींत करतात. हीं कामां करपाखातीर मुखिया, डाकुआ (निरोप व्हरपी) आनी परमानिक (रानपी) हे तीन अधिकारी नेमिल्ले आसतात.

तांच्या गांवांत धर्मीक कामाखातीर कांय अधिकारी नेमिल्ले आसतात ते अशे - (१) देहेरी - गांव पुरोयत (२) तलिआ - देहेरीक आदार करपी (३) हंतकार - बळी दिवपी (४) गुन्ती - मांत्रिक वा वैदू ५) ब्यक्रा - भगत वा शमन, हो भविश्य सांगता. युगिनी, कुंद्रा, चिरगुनी, प्रेतासिनी, कालपुरूश, वाघोआ, गोमुआ अशीं तांच्या भुतांचीं नांवां आसून तांकां हे लोक खूब भियेतात. आधुनिक विज्ञानीक बदलांच्या प्रभावाखाला सगळयाच जमातींच्या रिती-रिवाजांत, आचार विचारांत, काळानुसार बदल घडत आसा. लोधा जमातय ताका आडवाद उरूंक ना.

- कों. वि. सं. मं.

**लोधी** : एक जात. ह्या लोकांची वसती महाराष्ट्र आनी मध्य प्रदेशांत आसा. इ.स.च्या १८ व्या शतमानाचे निमाणें ते पंजाबांतलो लुधियाना जिल्हो सोडून हांगा आयले अशें सांगप जाता. लोध हें तांचें खरें नांव आसून, लोधी म्हणूनच तांकां सगळेकडे वळखतात. हिंदी ही तांची मायभास. ते स्वताक राजपूत समजतात. हे लोक शरिरान घटमूट आसून देखणेय आसतात. ते शेती, गोरवां पोसप, सावकारी, मजुरी, लांकडां विकप आदी वेवसाय करतात. तांच्यांतले कांय जाण जमीनदार आसात आनी तांकां ठाकूर म्हणून वळखतात.

लोधींत उंचेले आनी कनिश्ट अशे दोन वर्ग आसात आनी दर एका वर्गांत जायत्यो उपजाती आसात. चलयेचें लग्न चड करून भुरगेपणांतच करतात. लग्ना निमतान चल्याचो मामा चल्याघरा जेवण दिता, लग्ना दिसा न्हवऱ्याकडच्यान जोडे, मेथी, सुयो, व्हंकलेचे कपडे, हळदुवी चादर आदी वस्तू चलयेगेर हाडून देवामुखार दवरतात. त्यावेळार चलयेची आवय शितळा देवीची पुजा करता.

लग्नादिसा न्हवऱ्याक नवे कपडे घालून, बाशिंग बांदून घोड्यावयल्यान मिरयत व्हंकलेगेर व्हरतात. लग्नावेळार पुरोयत चवकोनी रांगोळी घालून तातूंत न्हवऱ्या-व्हंकलेक बसयतात. उपरांत न्हवरो - व्हंकल पळसाचे खांदयेक स प्रदक्षिणां घालता. पूण सातवी प्रदक्षिणा घालचे पयलीं तांकां थंय जमिल्ल्या लोकांची परवानगी घेवची पडटा. उपरांत तीं प्रदक्षिणा पुराय करतात आनी मागीर पुरोयत सावधान अशें म्हण्टा. दनपरां जेवण जातकच व्हंकल पालखेंत बसून

आनी न्हवरो पांयांनी चलत घरा येता. थंय तांदळांची एक रास दवरतात. न्हवरो उजव्या पांयान पांच खेप ते राशीक खोंट मारता.

चली वयांत येतकच तिका चार दीस कुशीन बसयतात. पांचव्या दिसा न्हवऱ्याच्या बोटांतली मुदी घरांत लिपोवन दवरतात. व्हंकलेक चार म्हयन्यांची मूदत दिवन ती सोदूंक सांगतात. ज्या दिसा मुदी मेळटा त्या दिसा गर्भादान संस्कार करतात.

भुरगें जल्माक येतकच बाळंतिचे कुडींत थोडो जागो सारावन थंय तांब्याचो वाळो, काळें सूत, तोपी आनी आंगलें दवरतात. ताच्या मुखार दिवो, धंय -शीत आनी फुलां दवरतात. उपरांत भुरग्याक तें आंगलें आनी पांयांत वाळे घालतात. ते राती घराचीं दारां, जनेलां उक्तीं दवरतात. धा दीस सुयेर पाळटात. उपरांत एका म्हयन्याभितर भुरग्याची आवय भुरग्याक घेवन रानांत वता आनी थंय पांच फातर मांडून तांची पुजा करता. उपरांत हाताक नवीं कांकणां घालून घरा येता.

तुळजापुरची देवी आनी बालाजी हीं तांचीं मुखेल दैवतां. तांच्यांत जात पंचायत आसता आनी तिचे मार्फतच तांचे भौशिक प्रस्न सोडोवप जातात. पंचायतीचे नेम मोडटल्याक दंड म्हणून जातीक जेवण दिवंचें पडटा. हें जेवण दिवपाची तांक आशिल्लो मनीस पंचामुखार ताचे जोडे माथ्यार घेवन हात जोडून उबो रावलो म्हणजे ताचो दंड माफ जाता.

हांच्यांत मडें लासतात. मडें अर्दें लासतकच ताचे तकलेर लोणयान भरिल्लो बुडकुलो दवरतात. उपरांत न्हावन सगळे लोक घरा येतात. मेल्ल्या मनशाची बायल सगळयो वस्ती काडून दवरता. उपरांत मसंडेंतल्यान आयिल्ले लोक त्या वस्तींचेर उदक फाफुडटात. धाव्या दिसा धा पिंड दितात. जाल्यार इकराव्या दिसा एक व्हड पिंड करून ताचे परत इकरा भाग करतात. तेराव्या दिसा जेवण दितात. पितरांखातीर ते श्राध्द आनी महालय वाडटात.

गुजरात, काठियावाड ह्या वाठारांतल्या लोधी लोकांत जरिया, पटरिया, जुनागडी आदी पोटभेद आसात.

हे लोक वैश्णव पंथाचे आसात. पूण तांच्यो कुलदेवता देवी आसात. ते देवीक बकरो बळी दितात. रामानंदी पंथाचे आचार्य हे तांचे अध्यात्मीक गुरू आसात. ह्या लोकांत न्हवऱ्या बापूय स्त्रीधन म्हणून व्हंकलेक कांय रक्कम दिता. नाग हें तांचें देवक आसून चौरंगाचेर नागाची आकृती काडून लग्ना आदल्या दिसा ताची पुजा करतात. लग्नामाटवांत एक कोंडो पुरून ताका शमीच्यो खांदयो, हळदीकुटां आनी एक लोखणी कडें लायतात. उपरांत एक दीस धवी बडी आनी गवांचें कणस हाडून वण्टीक तेंकोवन उबें करतात. पुरोयत उजव्या हाताचो तळवो कुकमांत बुडोवन वण्टीर बडयेचे वयलेवटेन ताचो छाप मारतात. ह्या विधीक डरेची अशें नांव आसा. तांच्या लग्नांत सप्तपदी हो म्हत्वाचो विधी आसता.

आदल्या निजामाच्या राज्यांत म्हळयार हैदराबाद वाठारांत कांय लोक रावताले थंय तांकां लोधे अशेंय म्हण्टाले. तांचे जरिया, पटरिया, सिंगोर, नथनिया, लोणिया, नव खंडेवाले आदी जायते पोटभेद आसात. तांच्यांत एकामेकांभितर लग्नसंबंद जुळनात. ह्या सगळया लोकांचें काश्यप हें एकच गोत्र आसा. तांच्यांत जायते लोक वैश्णव आसून ते बालाजी आनी कृष्ण हांकां भजतात. तेभायर ते कालिका, तुळजाभवानी, मरीआई आनी शितलादेवी हांकांय पुजतात.

हांच्यांत लग्न थारायतना जाती मुखेली आनी पंचायत हांचो सल्लो घेतात. कन्यादान हो तांच्या लग्नांतलो मुखेल विधी आसून तो जातकच न्हवऱ्या - व्हंकलेच्या वस्त्रांक गांठ मारतात आनी उपरांत तीं दोगांय माटवांतल्या आंब्याच्या खांब्याभोंवतणी सात प्रदक्षिणां घालतात, उपरांत न्हवरो व्हंकलेच्या भांगांत शिंदूर भरता.

तांच्यांत विधवेन आपल्या धाकट्या देराकडे लग्न जावपाची अपेक्षा आसता. वद्य पक्षांतले एके राती खूब सादेतरेन हें लग्न करतात. आधुनिक काळाच्या संदर्भांत लोधींच्या वेव्हारांत बदल घडत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**लोबो, ॲन्थनी :** पाकिस्तानांतल्या कराची वाठारांतलो पालवी धर्मगुरू. ताचो घराबो मुळचो हळदोणचो पूण तो कराचीक काम करतालो. ताणें एम्.ए. आनी एम्.एड्. मेरेनचें शिक्षण घेतलें. तशेंच धर्मीक शिक्षण घेतल्याउपरांत १९६१ वर्सा तो पाद्री जालो. १९८२ वर्सा तो धर्मगुरू जालो. उपरांत तो कराची आर्कीडायोसीसचो वावर करूंक लागलो.

- कों. वि. सं. मं.

**लोबो, आयकोनेटस् पी. :** बेळगांवचो गोंयकार धर्मगुरू. तो मुळचो शिवोली बार्देस तालुक्यांतलो. धर्मीक शिक्षण घेतल्या उपरांत तो १९४७ वर्सा पाद्री जालो. १९६८ वर्सा धर्मगुरू म्हणून ताची नेमणूक जाली. उपरांत तो डायोसीसचो वावर करूंक लागलो.

- कों. वि. सं. मं.

**लोबो, जुजे जेरमीयस :** (जल्म : १४ जून १९२७, ओशेल - बार्देस).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेन इंग्लिशींतल्यान आनी लिसेंवाचें तिसरें वर्स मेरेन शिक्षण घेतलें. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. ह्या काळांत तो जायतो राश्ट्रीय वावर करतालो. १९५५ वर्सा पुर्तुगेज पुलिसांनी ताका धरलो आनी तीन वर्सां आग्वाद बंदखणींत दवरलो. फुडें १ फेब्रुवारी १९६० ह्या दिसा ताका परत अटक करून बंदखणींत दवरलो. उपरांत गोंय सुटके

उपरांत बंदरवणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**लोरेन्ट्स, कॉनरॅड झाकारियास :** (जल्म : ७ नोव्हेंबर १९०३, व्हिएन्ना; मरण : २७ फेब्रुवारी १९८९, आल्टेनबर्ग).

ऑस्ट्रियन प्राणिवैज्ञानिक. आधुनिक वर्तनशास्त्राचो जनक. वर्तनशास्त्रांत सैमीक परिस्थितींतल्या प्राणिवर्तनाचो तुलनात्मक अभ्यास करतात. व्यक्तिगत आनी सामाजिक वर्तनरीतीसंबंदींच्या ताच्या सोदांखातीर ताका आनी कार्ल फोन फ्रिश आनी निकोलास टिनबर्जेन ह्या प्राणिशास्त्रज्ञाक १९६३चो शरिरक्रियाविज्ञानाचो वा वैजकीचो नोबॅल पुरस्कार वांटून मेळ्ळो.

लोरेन्ट्साचो बापूय एक नामनेचो विकलांग शस्त्रक्रियाविशारद आशिल्लो. भुरगेपणासावन लोरेन्ट्साक प्राण्यांविशीं गोडी लागिल्ली. आवय - बापायच्या प्रोत्साहनान ताणें नुस्तें, सुकणीं, कुत्रीं, माजरां, सोंशे अशे तरातरांचे प्राणी पोशिल्ले. तशेंच सवण्यांच्या वर्तनासंबंदींच्यो तपशीलवार नोंदी दीसपटयेच्या रुपांत दवरिल्ल्यो.

१९२२ वर्सा तो माध्यमिक शाळेंतल्यान पदवीधर जालो आनी उपरांत बापायचे इत्सेप्रमाण न्युयॉर्कच्या कोलंबिया विद्यापिठांत स म्हयने वैजकीचो अभ्यास करून तो ऑस्ट्रियाक परत आयलो. थंय व्हिएन्ना विद्यापिठांत अभ्यास करून १९२८ वर्सा ताणें एम्.डी. पदवी घेतली. उपरांत ताणें तुलनात्मक शरीराचो (शरीररचनाशास्त्राचो) अभ्यास करून १९३३ वर्सा त्याच विद्यापिठाची प्राणिविज्ञानांतली पीएच्.डी. पदवी घेतली. आपल्या आल्टेनबर्ग हांगाच्या घरांतूच ताणें प्राण्यांवयले प्रयोग केले. १९३७ - ४०त तो व्हिएन्ना विद्यापिठांत तुलनात्मक शारीर आनी प्राणी मानसशास्त्र हांचो अध्यापक आशिल्लो. ते उपरांत १९४० - ४२त तो केनिग्झबर्ग (सद्याचें कालिनिनग्राड) हांगाच्या आल्बेर्ट्स विद्यापिठांत प्राध्यापक आनी सर्वसादारण मानसशास्त्र विभागाचो मुखेल आशिल्लो.

झूजकाळांत १९४२ ते ४४ मेरेन ताणें जर्मन सैन्यांत वैज म्हणून काम केलें. १९४४ वर्सा ताका झूजकैदी म्हणून रशियेंत अटक केलो. फुडें १९४८ वर्सा सुटका जातकच तो ऑस्ट्रियांत परत आयलो आनी आल्टेनबर्ग हांगाचे इन्स्टिटयूट ऑफ कंपॅरेटिव्ह इथॉलॉजी हे संस्थेचो मुखेल जालो (१९४९ - ५१). ताणें अस्तंत जर्मनींतल्या बुल्डेर्न हांगाचे माक्स प्लांक इन्स्टिटयूट फॉर बिहेव्हियरल फिजिऑलॉजी हे संस्थेंत तुलनात्मक वर्तनशास्त्राच्या विभागाची स्थापणूक केली आनी १९५४त तो हे संस्थेचो सहसंचालक जालो. १९५१ - ६१ ह्या काळांत तो अस्तंत जर्मनींतल्या सिव्हिझेन हांगाचे माक्स प्लांक इन्स्टिटयूट फॉर कंपॅरेटिव्ह फिजिऑलॉजी हे संस्थेंतल्या संशोधन विभागाचो मुखेल आशिल्लो. १९५५ वर्सा ताणें ई. फोन होल्स्ट आनी जी. क्रेमर हांच्या आदारान थंय माक्स प्लांक इन्स्टिटयूट फॉर बिहेव्हियरल फिजिऑलॉजी हे संस्थेची स्थापणूक केली आनी १९६१ - ७३ ह्या काळांत तो हे संस्थेचो संचालक आशिल्लो. उपरांत १९७३त तो ऑस्ट्रियन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसच्या आल्टेनबर्ग हांगाचे इन्स्टिटयूट फॉर कंपॅरेटिव्ह इथॉलॉजी हे संस्थेंतल्या प्राणी समाजशास्त्र विभागाचो तो संचालक जालो.

१९३७ वर्सा तो Zeitshrift fur Tierpsychologie ह्या नेमाळयाचो मुखेल सहसंपादक जालो. उपरांत रोखडेंच हें नेमाळें वर्तनशास्त्राचें अग्रगण्य नेमाळें जालें आनी लोरेन्टस हाणें निमाणेमेरेन ताच्या संपादकपदाचेर काम केलें. वैजकीय विद्यार्थी आसतना ताणें प्राणिवर्तनासंबंदींचीं सविस्तर निरिक्षणां चालू दवरिल्लीं. १९२७ - ३८ ह्या काळांत ताणें प्राण्यांसंबंदींचें सगळयांत म्हत्वाचें कार्य केलें. ताणें चोरकावळो (जॅकडॉ), ग्रेलॅग, हंस, मॅलार्ड बदक आनी संबंदीत जाती हेविशीं कार्य केलें. ताचे सगळे सोद १९३५ - ५० ह्या काळांत निबंद माळेवतीन उजवाडा आयले आनी ताका आंतरराश्ट्रीय नामना मेळ्ळी.

लोरेन्ट्स हाच्या संकल्पनांक लागून प्राणिजातींनी वर्तनरीती अशो विकसीत जाल्यो आनी चड करून जाती तिगून रावपाचे परिस्थितिवैज्ञानिक घटकांचें आनी वर्तनाच्या अनुकूलन (परिस्थितीकडे जुळोवन घेवपाखातीर जावपी बदल) मूल्याचें कार्य हेसंबंदींच्या आकलनांत प्रगती जाली. प्राणिजाती तिगून उरपाखातीर विशिश्ट तरेची म्हायती शिकपाचे नदरेन जातीची आनुवंशिकीय रीतीन रचणूक जाल्ली आसता अशें ताणें सुचयलें. ताच्या कल्पनांक लागून व्यक्तिगत सजीवांच्या आयुश्यांत वर्तनरीती कशो विकसीत आनी परिपक्व जातात हें समजुपाक आदार जालो. चोरकावळो ह्या पक्ष्यासंबंदींची ताची दीसपटी Journal fur Ornithologie ह्या नामनेच्या नेमाळयांतल्यान १९२७ वर्सा उजवाडा आयली. ते उपरांतचे ताचे सगळे सोद १९३५ - ५० ह्या काळांत निबंद माळेवतीन उजवाडा आयले. ताचे कांय नामनेचे ग्रंथ अशे आसात - Das Sogenannte B·o·se (१९६३; इं.अ. ऑन ॲग्रेशन, १९६६), Die R·u·ck Seite des Spiegels : Versuch einer Naturgeschickte menschlichen Evkenners (१९७३; इं. अ. बिहाइंड द मिरर : ए सर्च फॉर ए नॅचरल हिस्टरी ऑफ ह्यूमन नॉलेज, १९७७), Er redete mit dem Vieh, den V·o·geln und den Fischen (१९४९, इं. अ. किंग सॉलोमन्स रिंग, १९५२); So Kam der Mensch auf den Hund (१९५० इं.अ. मॅन मिट्स डॉग,१९५४); U·ber Tiersches und mensechliches Verhalten ( १९६५; इं. अ. स्टडीज इन ॲनिमल ॲंड ह्यूमन बिहेव्हियर, २ खंड, १९७० - ७१); Dar Jahr des Graugans (१९७९; इं. अ. द इयर ऑफ द ग्रेलॅग गूज); Vergleichende Verhaltenforschung (१९७८; इं. अ. द

फाउंडेशन्स ऑफ इथॉलॉजी, १९८१). तेचभाशेन सिव्हिलाइझ्ड मॅन्स एट डेडली सिन्स (१९७३) ह्या इंग्लीश शीर्शकाखाल उजवाडा आयिल्लो ताचो ग्रंथूय लोकप्रिय जालो.

नोबॅल इनामाभायर लोरेन्ट्स हाका युनेस्कोचें कलिंग पारितोशिक (१९७०), आंतरराश्ट्रीय पर्यावरण पारितोशिक (१९८०), हे भोवमान मेळ्ळे. येल, लॉयोला, लीड्स, बाझेल आनी ऑक्सफर्ड ह्या विद्यापिठांनी ताका सन्माननीय पदव्यो दिल्यो. तो ऑस्ट्रियन ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेस, लंडनची रॉयल सोसायटी, अमेरिकेची नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेस ह्या मानादीक संस्थांचो सदस्य आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## लोरेन्ट्स, हेंड्रिक आंटोन : (जल्म : १८ जुलय १८५३, आर्नम; मरण : ४ फेब्रुवारी १९२८, हार्लेम).

डच भौतिकीविज्ञ. प्रारणाच्या (तरंगरुपी ऊर्जेच्या) आविश्काराचेर चुंबकत्वाच्या जावपी परिणामासंबंदींच्या ताणें केल्ल्या संशोधनाखातीर ताका पीटर झीमान हाचेवांगडा १९०२ वर्साच्या भौतिकाच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो.

ताणें लायडन विद्यापिठांतल्यान १८७१ वर्सा गणित आनी भौतिकी ह्या विशयांतली बी.एस्सी. पदवी घेतली. १८७२ वर्सा तो आर्नम हांगा रातीचे शाळेंत शिकोवपाक लागलो आनी तेन्नाच ताणें डॉक्टरेटाखातीर प्रबंध बरोवपाचें काम चालू दवरलें. १८७५ वर्सा ताका डॉक्टरेट मेळ्ळी आनी उपरांत तीन वर्सांनी लायडन विद्यापिठांत गणितीय भौतिकीच्या प्राध्यापक पदाचेर ताची नेमणूक जाली.

१९१२ वर्सा हार्लेम हांगाच्या टायलर फिजिकल कॅबिनेटचो अभिरक्षक आनी डच सोसायटी ऑफ सायन्सेसचो सचिव ह्या दोन पदांचो कारभार आपणायतकच लेगीत ताणें लायडन हांगा प्राध्यापक म्हणून दर एका सप्तकाक व्याख्यान दिवप चालू दवरलें. डॉक्टरेटीखातीर सादर केल्ल्या आपल्या प्रबंधांत लोरेन्ट्स हाणें प्रकाशाचें परावर्तन आनी प्रणमन (म्हळ्यार एका माध्यमांतल्यान दुसऱ्या माध्यमांत रिगतना दिकेंत जावपी बदल) हांचें चड समाधानकारक स्पश्टीकरण दिवंक येतलें अशे तरेन जेम्स क्लार्क मॅक्सवेल हाच्या विद्युत् चुंबकीय सिध्दांताचो विस्तार केलो.

लोरेन्ट्स हाच्या भौतिकींतल्या कार्याची व्याप्ती व्हड आसली तरी ताचो मध्यवर्ती हेत विद्युत्, चुंबकत्व आनी प्रकाश हांच्यांतलो संबंद स्पश्ट करपी एकूच सिध्दांत एकठांय मांडपाचो आशिल्लो. ताणें गतिमान वस्तूसंबंदींच्या आविश्काराच्या अभ्यासांत मूलभूत कार्य केलें. नेदर्लंड्सांतल्या झाइडर झी ह्या नामनेच्या जमीन पुनरुध्दार प्रकल्पाखातीर पुनरुध्दाराचें काम चालू असताना आनी तें पुराय जातकच सागरी उदकाच्या अपेक्षित आशिल्ल्या हालचालींचो अभ्यास करपाखातीर लोरेन्ट्स हाणें आठ वर्सां म्हत्वाचें सैध्दांतिक गणनकार्य केलें. ताचें हें कार्य द्रायुयामिकींत म्हत्वाचें थारलां.

लोरेन्ट्स इंग्लंडची रॉयल सोसायटी आनी अमेरिकेच्या नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचो सदस्य आशिल्लो. लीग ऑफ नेशन्सच्या आंतरराश्ट्रीय बौध्दिक सहकार्याखातीर नेमिल्ले समितीचो १९२५ वर्सा तो अध्यक्ष आशिल्लो. ताणें बरयल्लीं दोन पाठ्यपुस्तकां १८८२ आनी १८८८ वर्सा उजवाडा आयलीं. ताचे चडशे म्हत्वाचे निबंद पी. झीमान आनी ए.डी. फॉकर हांणी एच्.ए. लोरेन्ट्स : कलेक्टेड पेपर्स (९खंड, १९३५ - ३९) ह्या नांवान उजवाडायले.

- कों. वि. सं. मं.

## लोलयेंकार, अंजनीबाय : (जल्म : ८ सप्टेंबर १९३०, लोलयें - काणकोण).

प्रसिद्द गोंयची शास्त्रीय गायिका. घराण्यांत संगीत परंपरा आशिल्ल्यान तेच संस्कार भुरगेपणांत तिचेरय जाले आनी पिरायेच्या ८ व्या वर्सा सावन शास्त्रोक्त गायनाची तिका गोडी लागली. मुंबयचो नामनेचो गावपी आनी हार्मोनियम वाजोवपी रामचंद्र बँकराकडेन तिणें २५ वर्सां संगिताचें शिक्षण घेतलें. अंजनीबायचो गळयांतलो मंजूळ स्वर आनी तानेतलीं दमदारपणा हीं तिच्या गायनाचीं खाशेलपणां.



पंदरा वर्सांची आसतना गिरगांव (मुंबय)च्या इंडियन म्युझिकल सर्कलान वागळे हॉलांत पयले खेपे तिची गायनाची मैफल घडोवन हाडली. थंय तिका जी उत्स्फूर्त दाद मेळ्ळी, तातुंतल्यानूच तिका उर्बा मेळ्ळी. ऑल इंडिया म्युझिकल कॉन्फरन्स ऑफ कलकत्ता हांगासल्ले मैफिलीन तिका व्हड भोवमान मेळ्ळो. दिल्ली, मद्रास, अहमदाबाद, सुरत, ग्वाल्हेर, हुबळी, धारवाड, पुणें, गोंय आदी कितल्याशाच सुवातींनी तिच्यो गायनाच्यो कार्यावळी जाल्यात. गिरगांव (मुंबय) हांगा आशिल्ल्या मराठा समाजाची इमारत उबी करपाक तिचें बरेंच योगदान आसा. तिच्यो धुवो सुवर्णा, संगिता आनी पूत साहीराम आवयची संगीत परंपरा फुडें व्हरतात. आपआपल्या मळार तांणी ल्हान पिरायेचेरूच नामना जोडल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**लोलयेंकार, गंगाधर दत्ता :** (जल्म : २६ ऑक्टोबर १९३६, लोलयें, काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें एस.एस.सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. १७ सप्टेंबर १९५५ ह्या दिसा लक्ष्मी पैंगीणकार आनी सुर्यकांती फळ हांचे वांगडा ताणें मडगांवांत सत्याग्रह करपाचें थारायलें. १६ तारखेक तो पैंगीणच्यान भायर सरलो, पूण मडगांव पावतकच पुलिसांनी ताका दुबावानच अटक केली आनी १ वर्स बंदखणीची ख्यास्त दिली. जानेवारी १९५६त गोवा लिबरेशन आर्मीचो कार्यकर्तो विठ्ठल लोलयेंकार हाच्या मार्गदर्शनाखाल ताणें पैंगीण पुलाचेर स्फोट घडोवन हाडपाक वांटो घेतिल्लो. उपरांत पुलिसांची अटक चुकोवपाक तो आंगडी मार्गान मुंबय गेलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

\- कों. वि. सं. मं.

**लोलयेंकार, जयवंत अंबू :** (जल्म : १५ ऑक्टोबर १९३३, लोलयें, काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेन इंग्लिशींतल्यान शिक्षण घेतलें. नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां लावप, बसकांनी वांटे घेवप असलीं कामां तो करतालो. सिंधुताई देशपांडे हिच्या फुडारपणाखाल ताणें १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा काणकोणच्या गांवडोंगरी वाठारांत सत्याग्रह घडोवन हाडलो. तेचपरी हेर वांगड्यांक घेवन काणकोण पुलीस ठाण्याचेर मोर्चा व्हेलो. १३ जुलय १९५५ ह्या दिसा पुर्तुगेज पुलिसांनी ताका अटक केलो आनी प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त तेचपरी दंड भरपायेक कसर जाल्यार आनी दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. २६ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

\- कों. वि. सं. मं.

**लोलयेंकार, पेरु जिवा :** (जल्म : १३ एप्रिल १९१५, आगस, लोलयें).

सुटकेझुजारी. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. बसकांनी वांटो घेवप, भूंयगत कार्यकर्त्यांक आदार दिवप, तांकां मार्गदर्शन करप असलीं कामां तो करतालो. आगस माशें हांगाच्या पुलाचेर स्फोट घडोवन हाडपाचो ताणें यत्न केल्लो. पुर्तुगेज पुलिसांनी ताका धरपाचें फर्मान काडिल्लें. फुडें पुलिसांनी ताका अटक केली आनी देड वर्स बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण उपरांत ९ म्हयन्यांनीच ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

\- कों. वि. सं. मं.

**लोलयेंकार, शिवराम :** (जल्म : २७ सप्टेंबर १९१४, लोलयें, काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा लोलयें हांगा जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पुलिसांनी ताका धरलो खूब मार दिलो आनी चार वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच दंड भरिना जाल्यार आनीक दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. फुडें २४ एप्रिल १९५८ह्या दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८२ ह्या दिसा गोंय, दमण आनी दीव सरकारान मरणाउपरांत ताचो भोवमान केलो.

\- कों. वि. सं. मं.

**लोहाणा :** एक जमात. हाका लुहाणा अशेंय म्हण्टात. सिंध, काठियावाड, कच्छ, मुलतान बडोदा आदी वाठारांत हांची वसणूक आसा. तांचे उत्पत्तीविशीं जायतीं मतां प्रचलित आसात. तातुंतलीं कांय अशीं - (१) ते स्वताक रामाचो पूत लव हाचे वंशज मानतात. (२) ए. एम.टी. जॅक्सन ह्या इंग्लीश पंडिताच्या मताप्रमाण ते पयलीं लवण म्हळ्यार मिठाचो धंदो करताले आनी लवण शब्दाचोच फुडें लोहाणा शब्द तयार जाला आसूंक जाय. (३) श्री बर्टन ह्या पंडिताप्रमाण मुलतानालागसार लोहणपूर नांवाचो गांव आसा. हे थंयचे लोक आसूंक जाय.

तांचे उत्पत्तीविशीं जायतीं मतां मेळ्ळीं तरी ते मूळचे राजपूत आशिल्ले आनी राजकर्तेय आशिल्ले अशें मानप जालां. अरबांनी सिंधाचेर घुरी घालचे आदीं अघम लोहणा हो ब्राह्मणाबादचो राज्यपाल आशिल्लो. तो लाखवी आनी सम ह्या वाठारांचो राज्यकारभार पळयतालो. ताणें आलोरेच्या राजाची सत्ता मान्य केलीना देखून त्या राजान लोहाणाचेर घुरी घाली. तेन्ना अघम पळून गेलो आनी ताचे भुरगे शरण गेले. तेन्नाच्यान तांचें राजकीय वर्चस्व आनी दर्जो इतलो देंवलो, ते क्षत्रिय म्हणून लोक विसरले.

मुसलमानांच्या परत परत जावपी घुरयांच्या त्रासांक लागून हे लोक मुलतान सोडून ताचे दक्षिणेक राजस्थानांत आयले. इ.स.च्या चवदाव्या पंदराव्या शतमानांत राजपुतांनी सौराष्ट्राचे घुरयो घाल्यो तेन्ना तांचे अनुचर म्हणून ते गुजरातांत आयले.

तांचीं १३६ देवकां आसात. देवकांचीं नांवां मोनजात आनी जड वस्तू हांचेवयल्यान घेतिल्लीं आसात. रांडेलमाता ही तांची कुलदेवी. कांय जाण सिंधू न्हंयेक दर्यापीर नांवाची देवता मानून तिका भजतात. नगसिंगजी हेंय तांचें एक दैवत आसा. तांच्यांत खास अशी रामभक्तीय आसा. रामनम ते व्हडा उमेदीन मनयतात. त्या दिसा दर एकल्यागेर

रामायणाचें वाचन जाता. सारस्वत ब्राह्मण ताचें पुरोयतपण करतात. चडशे सगळे लोहाणा लोक नानकशाय पंथाचे अनुयायी आसात. कांय लोहाणा वल्लभपंथी आसात. लोहाणांत जायत्यो जाती आसात. एकाच देवकाच्या कुळांत लग्न जायना. लग्न सुवाळयाक कसली बादा येवची न्हय देखून क्षेत्रपालाक बोकड्याचो बळी दितात. तांच्यांत बालविवाहाची तेचपरी पुनर्विवाहाची चाल आसा.

सिंधी लोहाणा बायल बाळंत जातकच तिची वार एका बुडकुल्यांत घालून ताचेर सात लवंगां आनी सात वेलच्यो घालतात. उपरांत बुडकुल्याचेर तांबडे सात पट्टे ओडून तो बुडकुलो उदकांत उडयतात.

हे लोक धाडसी आसून, वेपारी आसात. हांच्यांत कांय लोक गंवडीपणाचें आनी शेताचेंय काम करतात.

कच्छ लोहाणांत जात पंचायत आसता. शारांतले पंचायतींत तीन ते बारा मेरेन पंच आसतात. खेड्यांतले पंचायतींत दोन पंच आसतात. जल्म, लग्न आनी मरण आदी प्रसंगांवेळार पंचाक देणग्यो मेळटात. घटस्फोटावेळार पंच न्हवऱ्याकडल्यान एक हजार रुपया दंड घेतात. हाचेभायर ते व्हड व्हड वेपारी पेठांच्या गांवांतल्यान कर वसूल करतात. आधुनिक काळांत तांच्या वेव्हारांत जायते बदल घडत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**लोहार** : धंद्यावयल्यान तयार जाल्ली एक जात. लोह म्हळयार लोखण आनी ताचें काम करपी ते लोहार. पुर्विल्ल्या काळांत घडकाम करपी वर्गाक कर्मार अशें नांव आशिल्लें. अथर्ववेदांत ताका रथ तयार करपी बुध्दिमान कारागीर अशें म्हळां. तो अशुध्द धातुचो रस करता आनी ताचेपसून शुध्द धातू तयार करता देखून ताका ध्मातृ म्हणप जाता. वैदिक काळांत तो धातुचीं सोरो पियेवपाचीं आयदनां तयार करतालो.

भारतांतल्या सगळ्या वाठारांत लोहारांची वसती दिसता. तांचे देव - देवता, धर्म, लग्नां, चालिरिती आदी गजाली वाठाराप्रमाण बदलिल्ल्यो दिसतात. तरी तांचो वेवसाय मात सगळेकडे सारकोच आसता. ते शेताखातीर लागपी नांगराचे फाळ, कुळवाची पास, गाडयेच्यो धावो, कुदळी, कुराडी, खुरपी, विळे, कोयत्यो, पारय, खोरें आदी लोखणाचीं अवजारां तयार करतात. तेचपरी हीं अवजारां सारकीं करप, तांकां धार काडप आदी कामांचोय तातूंत आस्पाव जाता.

महाराष्ट्रांतल्या लोहारांत मराठा, पांचाळ, कन्नड, कोंकणी आनी गुजराती अशो पांच पोटजाती आसात. मराठा लोहार आपली उत्पत्ती विश्वकर्म्यापसून जाली आनी आपूण देवाचे शिल्पी आसात अशें सांगतात. सोलापूरच्या लोहारांत सात पोटजाती आसून तांचेभितर रोटी-बेटी वेव्हार जायना. तांच्यांत बालविवाहाची पद्दत आसा. चिमटो, तुतयो आनी पंचपल्लव हीं तांचीं देवकां. लग्नावेळार न्हवरो - व्हंकल कोंड्याच्या दाल्यांत एकामेकांमुखार तोंड करून उबीं रावतात. तांच्यांत चलयेक पयले खेप न्हाण येतकच पंदरा दीस गोडधोड करून घालतात आनी सोळाव्या दिसा तिची होंट भरतात. खंडोबा, भवानी, गणपती, भैरोबा, महादेव हे तांचे देव आसात. कांय मराठे लोहार लिंगायत आसात. ते मड्याक लासतात वा पुरतात.

कन्नड लोहारांक कम्मार अशेंय म्हण्टात. हे लोक चडकरून दक्षिण कोंकण आनी गोंय वाठारांतले आसूंक जाय अशें म्हण्टात. तांच्यांत कुळां आनी गोत्रां आसात. अंकोल्याची कळम्मा ही तांची कुळदेवी. ते भौशीक वादविवाद जातपंचायतीवरवीं मिटयतात. हे मड्याक लासतात आनी श्राध्दय वाडटात.

गुजराती लोहार आपली उत्पत्ती पीठवोसावन (फाटीचो चिरखल) जाली अशें सांगतात. तेविशीं एक कथा सांगतात ती अशीः शिवाक अंधार आनी ढंढकार ह्या राक्षसांक मारपाक शस्त्रां जाय आशिल्लीं. तीं तयार करून दिवपाखातीर पार्वतीन शिवाचे फाटीवयल्या चिरखलापसून लोहारांक तयार केले.

तांच्यांत भावनगरी, पांचाल, शिरोहिया, सुरती, खंबाती आनी पराजिया अशे स भेद आसात. तांच्यांत रोटी-बेटी वेव्हार जायना आनी पुनर्विवाहाकय मान्यताय ना. पूण कांय विधवा आपल्या धाकट्या देराकडे लग्न जातात. भवानीमाता ही तांची मुखेल देवी. गुजराती लोहार हो शेताच्या कामांतलो एक म्हत्वाचो बलुतेदार आसा. तो अवजारांक धार काडप अवजारां सारकीं करप हीं कामां बलुत्यांच्या बदला करता. ताचें बलुतें थारायल्लें नासता. शेतकामती आपल्याक जमता त्या प्रमाणांत ताका बलुतें दिता. कांयकडे लग्नासुवाळयांत ताका एक पागोटें आनी दक्षिणा मेळटा. विदर्भांत ताका खाती म्हण्टात आनी पागोट्या जाग्यार शिदो दितात.

मध्य प्रदेशांतल्या लोहारांक घिसाडी, पांचाळ आनी धाने हीं नांवां आसात. दुल्हादेव आनी सोमलाई हे तांचे देव. मेल्ल्या मनशाच्या निमण्या संस्कारांत ते इकराव्या दिसा तांदळांच्या पिठापसून मेल्ल्या मनशाची मूर्त करतात. ताच्या तोंडांत तांदूळ घालून ताका 'वच आनी मनीस़जल्म घे' अशें म्हण्टात. उपरांत ते मूर्तीचें न्हंयेंत विसर्जन करतात.

राजस्थानांत कांय हिंदू आनी कांय मुसलमान लोहार आसात. हांगाच्या लोहारांत गाडी लोहार आनी मालविया लोहार अशे दोन प्रकार आसात. राजस्थानांतले मुसलमानी लोहार सुन्नी आसून तांच्यांत मुलतानी आनी नागौरी अशे भेद आसात. मुलतानी मुसलमान हे बऱ्यांतले बरे कारागीर आसात.

पंजाबी लोहारांत मुसलमान, शीख आनी बौध्द आसात ते लोहार कामां भायर शेती आनी शेतमजुरीय करतात. भुबालिया

नांवाची एक भटकी जात हांगा आसा.

बिहार वाठारांतल्या लोहारांक बढई ह्या नांवान वळखतात. तेभायर कांय लोकांक कामार अशें म्हण्टात. हांगा आर्यवंशीय लोहार आसून ते लोखण वितळपाचें काम करतात. ते लोखणाच्या हेर वस्तूं भायर घोड्याचे आनी बैलाचे नाल तयार करतात. बढई लोहार घोड्याचे नाल तयार करिनात.

छोटा नागपुरांतले कांय गांवागिरे लोहार अजूनय लोखण वितळावन तेपसून वस्तू तयार करतात. ह्या लोहारांत घराणीं वा कुळयो आसात. कुळयांचीं नांवां मुंडाच्या कुळयांवरी आसून तातूंत भणवार आनी तिरकी अशे दोन भेद आसात. तांचीं एकाच कुळांत लग्नां जायनात. तांचो लग्नसंस्कार मुंडांचे पद्धतीपरस थोडो वेगळो आसता. लग्नाचीं सुरवेचीं उलोवणी जातकच मागणीविधी जाता. तेन्ना न्हवऱ्याकडले कांय लोक व्हंकलेगेर येतात. तांच्या मुखार जोंधळयाच्या पिठाची रांगोळी घालून, पाट दवरून ताचेर व्हंकलेक बसयतात. तिच्या मुखार उदकान भरिल्लें आयदन आनी आंब्या पानां दवरतात. उपरांत एक म्हालो वा हेर कोणय व्हंकलेमुखार धूप, गोड आनी तुळी जळयतात. व्हंकल मुखावयल्या आयदनांत चार तांदूळ उडोवन पांय पडटा. तिचे दावे आनी उजवे वटेन बापूय आनी मांव बशिल्ले आसतात. दोगूय तांदूळ लायिल्लीं आंब्याचीं पानां एकामेकांच्या आंगाक लायतात आनी उपरांत उबे रावन एकामेकाच्या हाताक धरतात. व्हंकलेचो बापूय न्हवऱ्याच्या बापायक सांगता 'तुवें म्हज्या हाताक धरलां आतां हें लग्न मोडल्यार तुचो हात कापतले'. न्हवऱ्याचो बापूय हें मान्य करता आनी मागीर मागणीविधी पुराय जाता. लग्नांत बळी दिवपाचोय विधी आसता. हो विधी ते पनहराकडल्यान करून घेतात.

भुरगो जल्मतकच ताचें जावळ सव्या दिसा काडटात. ह्याच दिसा सटयेची पुजा करतात. सव्या दिसा जमलीना जाल्यार बाराव्या दिसा करतात आनी तिका बाढी म्हण्टात.

तांच्यांत जातपंचायत आसा. पंचायत मुखेल्याक कर्तो आनी ताच्या मदतनीसाक बंधरी म्हण्टात. हे लोक पितरांची पुजा करतात. ते सिङ्‌बोंगाक देव मानून ताची पुजा करतात. दर एका लोहारान आयुश्यांत एक फावट तरी देवाक वा भुताक दुकर, बोकडी, गाय वा बैल हातुंतल्या कोणायचोय तरी बळी दिवप गरजेचें आसता.

सरहुल आनी जोमनाओआ ह्यो दोन परबो ते मनयतात. सरहुल चैत्र म्हयन्यांत येता. त्या दिसा पुर्वजांच्या नांवान गोठ्यांत दुकराचो बळी दितात. थंय मक्याच्यो पांच ल्हान ल्हान राशी करून ताचेर दुकराचें रगत शिंपडावन प्रार्थना करतात. नया खाणी नांवाच्याय एका उत्सवांत ते बळी दितात.

तांच्यांत मड्याक पुरतात. धाव्या दिसा ते छाई भित्रेक नांवाचो एक विधी करतात.

आधुनिक काळांतल्या विज्ञानीक प्रभावाखाला, लोहारांच्या रिती-रिवाजांत आनी चाली-रुढींनी जायते बदल जाल्यात आनी काळाप्रमाण अशे बदल घडत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**लोहारकाम :** लोखणी वस्तू घडोवपाचें काम. ह्या कामांत भट्टेंत लोखणाच्यो वा तिखव्याच्यो ल्हान वस्तू तांबड्यो जायमेरेन तापयतात आनी मागीर त्यो धोडावन ताचेपसून लोखणी वस्तू तयार करतात. बंद भट्टेंत व्हडल्यो वस्तू तापोवन व्हडल्या यांत्रिक घणान धोडावन आकार दिवपाच्या कामाक घडायकाम (फोर्जिंग) म्हण्टात. शेतावातीर लागपी हत्यारां आनी अवजारां लोहार तयार करता. तशेंच बैलगाडयेच्या लांकडी चाकाक लोखणी धाव बसयता. भट्टेंत घडीव लोखण तापयल्यार ताका खंयचोय आकार दिवपाइतकें तें मोव जाता वा ताका लवचिकपण येता हो गुणधर्म खबर आशिल्ल्यान झुजावातीर लागपी तलवारी, भाले, खंजीर, कट्यार, बाणाचीं तोकां, परशू बी हत्यारां लोहार तयार करताले. ॲल्युमिनियम, मिश्रधातू, पितूळ, कांशें (ब्राँझ) ह्याय लोहेतर धातूंपसून यंत्रांचे सुटे भाग आनी हेर वस्तू लोहार तयार करता. लोहारकाम करपाखातीर भट्टेची गरज आसता. खेडेगांवांत जमनींत फोंड मारून कोळसो दवरपाची वेवस्था करतात आनी भितरलेवटेन हातान चलपी भातो बसोवन हवेचो झोत येवपाची सोय केल्ली आसता. आतां सुदारीत भट्ट्यो प्रचारांत आयिल्ल्यो आसात. कांय भट्ट्यो विटांच्यो जाल्यार कांय बिडाच्यो करतात.

**बिडाची भट्टी :** फुडले वटेन कोक वा कोळसो दवरपाक जागो आसून हवा येवपाखातीर बुराक आशिल्ली नळी बसयल्ली आसता. हे नळयेकलागून विजेच्या मोटरान चलयल्ल्या पंखयांतल्यान येवपी वारें नेटान येता आनी कोळसो बरो पेट्टा. धुंवर वचपाखातीर धुराडें वयले वटेन आसता. तयार जाल्ल्यो वस्तू थंड करपाखातीर उदकाची टांकी आसता.

गांवांत भट्टेखातीर लोणारी कोळसो वापरतात, जाल्यार शारांतल्या कारखान्यांत फातराचो कोळसो वापरतात. कांय भट्ट्यांनी पेट्रोलाचो, जळण तेलाचो वा सैमीक वा कृत्रिम जळण वायूचो उपेग करतात.

**लोहारकामांतलीं हत्यारां - ऐरण :** ऐरणीचो उपेग वस्तूक आदार दिवपाखातीर जाता. ऐरणीचेर दवरून वस्तू हातोडेन धोडायतात. ऐरणीचो मूळ गाभो मोव पोलादाचो केल्लो आसता आनी घटसाण येवपाखातीर ताचेर २० ते २५ मिमी. रुंदायेचो उच्च कार्बनयुक्त पोलादाचो पत्रो वितळजोड करून बसयल्लो आसता. ऐरणीची चोंच मोव पोलादाचीच केल्ली आसून तिचो उपेग वस्तूंक वांटकुळाकार दिवपाक जाता. ऐरणीचे फाटले वटेन दोन बुराक आसतात. ह्या बुराकांचो उपेग हार्डी, फुलर, स्वेज बी हत्यारां तयार करपाखातीर

जाता. ऐरणी एक वा दोन चोंचीच्यो आसतात.

**हातोडी :** हातोड्यांचे मुखेलपणान दोन प्रकार आसतात. एक म्हणजे लोहार आपूण वापरता ती हातोडी आनी दुसरी लोहाराचो मदतनीस वापरता ती व्हडली हातोडी. हे व्हडले हातोडेक घण म्हण्टात. हातोडेवांगडा लोखणाक वा मोव पोलादाक वेगवेगळे आकार दिवपाखातीर, कापपाखातीर आनी बरें रूप दिवपाखातीर सकयल दिल्लीं हत्यारां वापरतात.

१) छिन्न्यो : शीत आनी उश्ण अशो दोन तरांच्यो छिन्न्यो आसतात. थंड धातू शीत छिन्नेन आनी उश्ण धातू उश्ण छिन्नेन तोडटात. शीत छिन्नेचें तोंक उदक दिवन घट्ट केल्लें आसता आनी तिची धार ६०° कोनांत काडिल्ली आसता. उश्ण छिन्नेचो कोन २५° ते ३०° आसता.

२) हार्डी : ही सकयल्ली आनी वयली अशी हत्यारांची (छिन्न्यांची) जोडी आसता.

३) फुलर्स : ह्या हत्यारांचीय सकयल्ली आनी वयली जोडी आसता. हे गरजेप्रमाण वेगवेगळया आकारमानांचे तयार करतात. १० मिमी. रुंदायेचो फुलर १०मिमी. व्यासाचो अर्दगोलाकार दिवपाक शकता.

४) स्वेजेस : ह्याय हत्यारांची सकयली आनी वयली अशी जोडी आसता. वाटकुळो, चवकोनी, षटकोनी अशे वेगवेगळे आकार दिवपाखातीर हांचो उपेग करतात. हें हत्यार हत्यारी पोलादाचें तयार केल्लें आसून ताका घट्टपणा हाडिल्लो आसता आनी उदक दिल्लें आसता.

५) स्वेज ठोकळो : हो बिडाचो केल्लो आसून ताच्या चारय वटांनी अर्दगोल, त्रिकोनी, अर्दषटकोनी अशे आकार दिल्ले आसतात. मदेगाक वाटकुळाकार, चवकोनी आनी आयाताकृती बुराक आसतात. हाचो उपेग वेगवेगळे आकार दिवपाखातीर जाता.

६) सपाटके वा सपाटक हातोड्यो : हांचो उपेग वस्तूचो वयलो भाग निवळ वा एकसारको सपाट करपाखातीर जाता. हाचें आकारमान ७५मिमी. चौरस (वा वाटकुळाकार) आसता. सपाटक हातोड्यो कोनशांचें अंत्यरुपण करपाखातीर वापरतात.

७) पंच वा ड्रिफ्ट : धातू जेन्ना लोहारकामाक फाव अशा तापमानामेरेन येता तेन्ना तिका पंचान बुराक काडपाक येता आनी ड्रिफ्ट ह्या निमूळत्या हत्याराक हो बुराक सारको करूं येता.

८) सांडशी : लोहारकामांत तापयल्ल्यो हून वस्तू धरपाखातीर वेगवेगळया तरांच्या सांडश्यांची गरज आसता. वस्तूच्या आकाराप्रमाण लोहार स्वतंत्रपणान आपली सांडशी तयार करता. सर्वसादारणपणान सांडशीचे तीन प्रकार आसात. पयल्या प्रकारांत चेपट्या (सपाट), दुसऱ्या प्रकारांत पोकळ गोल आनी तिसऱ्या प्रकारांत चौरस आकाराचीं तोंडां आसतात. ह्या तोंडांचो उपेग त्या त्या आकाराच्यो वस्तू धरपाखातीर जाता.

वयर दिल्लीं वेगवेगळीं हत्यारां वापरून विस्तारप, लांबाय वाडोवप, फुगोवप, मदलो भाग बारीक करप, बागोवप वा बुराक करप सारकिलीं कामां करूं येतात. ह्यो क्रिया करून सकयल दिल्ल्यो वस्तू तयार करूं येतात - आंकडो, रिवळयो आनी सरपळी, सांडशी, सादो पानो, चवकोनी पानो, रेंच पानो, दुतोंडी पानो, कुराड, कोयतो, विळयेचें पातें, हातोडी, सुत्रकाचे दांडे, नट, बोल्ट, छिन्नी आदी.

वितळजोडकाम (वेल्डिंग) ही लोहार कामांतली म्हत्वाची क्रिया. घडीव लोखण आनी मोव पोलाद हांचें वितळजोडकाम करपाखातीर तांच्या दोन कुडक्यांचे वयले भाग खास अशा रंगाचे जायमेरेन तापोवन मागीर एकामेकाचेर दाबतात आनी धोडायतात. हाकालागून ते कुडके इतके एकजीव जातात की ते जोडल्यात म्हणपाचें लेगीत कळना.

- कों. वि. सं. मं.

## लोहिया, राममनोहर

**लोहिया, राममनोहर :** (जल्म : २३ मार्च १९१०, अकबरपूर, जि. फैजाबाद, उत्तर प्रदेश; मरण : १२ ऑक्टोबर १९६७, दिल्ली).

भारतांतले समाजवादी चळवळींतलो एक फुडारी आनी विचारवंत. ताच्या बापायचें नांव हिरालाल आनी आवयचें नांव चंद्रीबाई (चंदाबाई). भुरगेणांतच ताचे आवयक मरण आयिल्ल्यान, आजयेन आनी चुलतेन ताका ल्हानाचो व्हड केलो. बापूय हिरालाल वेवसायान वेपारी. तो काँग्रेसीचो कार्यकर्तो आशिल्लो. अकबरपूरालागसार टंडन पाठशाळा आनी विश्वेश्वरनाथ हायस्कूल हालुंतल्यान ताणें



सुरवातीचें शिकप घेतलें. धंद्यानिमतान बापूय मुंबयंत रावपाक लागून आनी थंयसावन १९२५ वर्सा राममनोहर मुंबय विद्यापिठांतल्यान मॅट्रिकेची परीक्षा पास जालो. महाविद्यालयीन शिक्षणाखातीर तो पयलीं बनारस हिंदू विश्वविद्यालयांत गेलो पूण उपरांत तें सोडून तो कलकत्त्याच्या विद्यासागर महाविद्यालयांत गेलो आनी १९२९ वर्सा ताणें कलकत्ता विद्यापिठाची बी. ए. पदवी घेतली. उपरांत उंचेल्या शिक्षणाखातीर निधी एकठांय करून तो पयलीं इंग्लंडाक गेलो आनी उपरांत ताणें बर्लिन विद्यापिठांत संशोधन करून अर्थशास्त्र विशयांत 'सॉल्ट अँड सिव्हिल डिस्‌ओबीडिअन्स' ह्या विशयांत पीएच्.डी पदवी घेतली (१९३२).

शिकता आसतना म्हळयार १९२६ च्या गुवाहाटी काँग्रेस अधिवेशनांत, सुभाषचंद्र बोस आनी नेहरूचो ताचेर प्रभाव पडिल्ल्यान, तो राश्ट्रीय चळवळीकडे प्रभावित जालो. पूण जर्मनींसावन परत येतकच १९३३ वर्सा, सुरवेक ताणें बनारस विद्यापिठांत अध्यापकाचे नोकरेखातीर यत्न केलो. कांय म्हयने रामेश्वरदास बिर्लाकडे स्वीय साहाय्यकाचे काम केलें. १९३४ वर्सा जेन्ना काँग्रेस समाजवादी पक्षाची स्थापणूक जाली, तेन्नासावन ताणें आपल्या राजकीय कार्याक सुरवात केली. कार्यकारिणीचेर ताका वेंचून काडलो तशेंच 'काँग्रेस सोशॅलिस्ट' ह्या नव्या सातोळयाचो संपादक म्हूण ताची नेमणूक जाली. लखनौच्या अखिल भारतीय काँग्रेस अधिवेशनांत, नेहरून ताका काँग्रेसच्या परराश्ट्र विभागाचो सचिव नेमलो (१९३६ - ३८). राममनोहरान आपलें वास्तव्य अलाहाबादेक व्हेलें.

दुसऱ्या म्हाझुजांत ताणें खर झूजविरोधी आनी साम्राज्यशायेआड भुमिका घेतिल्ल्यान १९३९ वर्सा ताका अटक जाली उपरांत न्यायालयांत ताची सुटका जाली. स्वातंत्र्यापयलीं आनी उपरांतच्या काळांत मेळून ताका एकुणीस खेपे बंदखण भोगली. विंगड विंगड कारणांखातीर ताका अमेरिका, ग्रेट ब्रिटन, मियानमार (ब्रह्मदेश) आनी गोंयांतय बंदखण भोगची पडली.

१९४२ वर्साच्या छोडो भारत आंदोलनांत भूंयगत रावन ताणें अच्युतराव पटवर्धन आनी जयप्रकाश नारायण हांचेवांगडा चळवळीचें फुडारपण केलें. त्याच अदमासाक जयप्रकाश हाचेवांगडा 'आझाद दस्तारखातीर' कांय म्हयने तो नेपाळांत गेलो. थंयसावन येतकच २० मे १९४४ दिसा ताका अटक जावन, पयलीं लाहोराक आनी उपरांत आग्रा हांगा ताका बंदखणींत दवरलो. ११ एप्रिल १९४६ दिसा ताची सुटका जाली. भारताचे फाळणेक ताचो खर विरोध आशिल्लो, तरीय लेगीत १९४७ च्या हिंदू - मूस्लिम दंगलींत ताणें म. गांधी वांगडा शांतताय प्रस्थापित करपाखातीर यत्न केले. काँग्रेस अध्यक्षासयत खंयच्याच पदाधिकाऱ्यान स्वतंत्र भारताचो पंतप्रधान जावचो न्हय अशी ताची धारणा आशिल्ली. १९४८ वर्सा काँग्रेसींतले समाजवादी विचारसरणेच्या पंगडाक घेवन तो भायर सरलो. ताणें स्वतंत्र समाजवादी पक्षाचें फुडारपण केलें. हो समाजवादी पक्ष कृषक मजदूर प्रजा पक्षांत विलीन केलो आनी 'प्रजा सोशॅलिस्ट पक्ष' अशें ताका नांव दिलें (१९५२). ह्या पक्षाचो तो महासचिव जालो. पूण तातुंतय ताचे मतभेद जाले आनी १९५५ वर्सा हैदराबादेक ताणें समाजवादी पक्षाची स्थापणूक केली. ह्या पक्षाचो तो अध्यक्ष जालो. १९५६ वर्सा तो 'मॅन्काइंड' ह्या नेमाळयाचो संपादक जालो. फुडें होच पक्ष ७ जून १९६४ दिसा 'संयुक्त समाजवादी पक्ष' ह्या नांवान प्रजासमाजवादी पक्षांत विलीन जालो. ताचेपयलीं १९६३ त तो फरुखाबाद मतदार संघांतल्यान लोकसभेचेर वेंचून येवन निमाणेमेरेन तो लोकसभेचो सदस्य आशिल्लो. निमाणेमेरेन संसदेंतलो एक मुखेल विरोधी फुडारी म्हणूनच नामना मेळयली. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत ताणें शेतकऱ्यांच्यो चळवळी, अंग्रेजी हटाव आंदोलन, जाती तोडो आंदोलन, गोवा मुक्ती चळवळ, हिंदी राश्ट्रभाशेचो पुरस्कार, नेपाळांतलो स्वातंत्र्य संघर्श अशा जायत्या चळवळींचें ताणें फुडारपण केलें.

लोहियान अमेरिका, जपान, श्रीलंका, इंडोनेशिया तशेंच जायत्या युरोपीय आनी आफ्रिका देशांची भोंवडी केली. १९५१ वर्सा फ्रँकफुर्ट (जर्मनी) हांगाचे पयले आंतरराश्ट्रीय समाजवादी परिशदेक तो हाजीर आशिल्लो. तशेंच १९५३ च्या रंगून हांगाचे आशियाई समाजवादी परिशदेचें आयोजन केल्लें. पूण ते परिशदेक ताका उपस्थित रावंक मेळ्ळेंना.

**लोहियावाद :** विद्यार्थीदशेंतच लोहियाचेर समाजवादी विचारांचो प्रभाव पडिल्लो. ताचे विचार ताच्या अनुयायांभितर 'लोहियावाद' म्हूण वळखतात. ताचे मुखेल घटक अशे - (१) शासनांत लोकांनी चडांत चड वांटो घेवचो, तेखातीर सत्तेचें विकेंद्रीकरण करून केंद्र, राज्य, जिल्हो आनी गांव ह्या पांवड्यांवयल्या शासनयंत्रणांक स्वतंत्र अधिकार आसूंक जाय. हाकाच ताणें 'चौखंबा राज्य' हें नांव दिलें. (२) अर्थीक क्षेत्रांत, ताणें लघुउद्येग, ताका उपयुक्त अशी यंत्रसामग्री आनी स्वावलंबन हाचेर भर दिलो. ह्या धोरणाक ताणें 'अल्पप्रमाण यंत्र' अशें म्हळां. यंत्राक लागून मनीस आळशी आनी एकसुरो जावचो न्हय अशो महात्मा गांधीच्या विचारांचो ताचेर प्रभाव पडिल्लो. (३) लोहियान दादलो - बायल समानतेचो पुरस्कार केलो. तशेंच ताणें आंतरजातीय लग्न, कुटूंब नियोजन आनी हुंडोबंदी ह्या प्रागतिक विचारांचोय ताणें खूब पुरस्कार केलो. (४) स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत इंग्लीश भाशेच्या वर्चस्वाचो तो कट्टर विरोधक आशिल्लो. तेखातीर ताणें राश्ट्रभास आनी भारतीय भाशेचो सातत्यान नेट धरलो. पूण फुडें इंग्लीश विरोधी आंदोलनांतल्यान दक्षिणेंत हिंदी विरोधाचें आंदोलन उद्भवलें. (५) १९६२ उपरांतच्या काळांत लोहियान काँग्रेसीक सत्तेभायरी करपाचें मुखेल ध्येय मानलें. काँग्रेसीक विरोध करपाखातीर दाव्या आनी उजव्या पंगडांतल्या सगळयांनी एक जावचें म्हूण ताणें खूब यत्न केले.

लोहियाचें इंग्लीश, हिंदी ह्या भाशांभशेन फ्रेंच, जर्मन ह्यो परकी भाशा तशेंच उर्दू - बंगाली ह्या भारतीय भाशांचेरय प्रभुत्व आशिल्लें. जिवितभर ताणें अन्याय आनी भ्रश्टाचाराआड खर लढो दिलो. ताणें आपले विचार व्याख्यानां, स्फुटलेख आनी ग्रंथ बरोवन मांडले. ताच्या ग्रंथांचो मराठींत अणकार जाला. कांय ग्रंथांच्यो नव्यो आवृत्त्योय आयल्यात. ताचे कांय मुखेल ग्रंथ अशे आसात - मिस्टरी ऑफ सर स्टॅफर्ड क्रिप्स (१९४२). ॲस्पेक्ट्स ऑफ सोशॅलिस्ट पॉलिसी (१९५२), व्हिल ऑफ हिस्ट्री (१९५५), विल - पॉवर अँड अदर रायटिंग्ज (१९५६), गिल्टी मेन ऑफ इंडियाज् पार्टिशन (१९६०), मार्क्स, गांधी अँड सोशॅलिझम (१९६२), इंडिया, चायना अँड नॉर्दर्न

फ्राँटिअर्स (१९६३), द कास्ट सिस्टीम (१९६४), इंटरव्हल ड्युअरिंग पॉलिटिक्स (१९६५), फ्रॅग्मेन्ट्स ऑफ वर्ल्ड माइंड (१९६६), वाल्मीकी और वसिष्ठ, क्रांती के लिये संघटन हे ग्रंथ प्रसिद्द आसात. नेमाळयांनी उजवाडा आयिल्ल्या ताच्या कांय स्फुटलेखांचे मराठी अणकार श्रीमती इंदुमती केळकर आनी श्रीपाद केळकर हांणी अन्तहीन यात्रा, ललित लेणी (१९६९), दोन हत्यारे सत्ताधाऱ्यांची : भाषा आनी जाति (१९७१) ह्या नांवांनी उजवाडा हाडल्यांत. हालीं ताचे आनीक कांय स्फुटलेख समता आनी समृध्दी (१९७७), भारतीय शिल्प (१९८१), मार्क्सवाद - समाजवाद (१९८१), अल्प प्रमाणयंत्र (१९८४), नर - नारी (१९८४), शेती - शेतकरी - भूसेना (१९८४), जातिप्रथेचो तुरूंग (१९८४) ह्या शिर्षकांनी मराठींत उजवाडा आयल्यात.

संसदीय लोकशायेंतलो एक जबरदस्त विरोधी फुडारी म्हूण लोहियाचें नांव मानान घेवप जाता. ३0 सप्टेंबर १९६७ दिसा दिल्लीच्या विलिंग्डन नर्सिंग होम हॉस्पिटलांत अष्ठीला ग्रंथीची (Prostate Gland) शस्त्रक्रिया ताचेर केली. तेउपरांत कांय दिसांनीच ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**लौए, माक्स टेओडोर फेलिक्स फोन :** (जल्म : ९ ऑक्टोबर १८७९, फाफनडॉर्फ; मरण : २४ एप्रिल १९६0, बर्लिन).

जर्मन भौतिकीविज्ञ. १८९८ त शाळेतलें शिक्षण सोंपल्याउपरांत ताणें एक वर्स लश्करांत काम केलें. उपरांत स्ट्रॅसबर्ग विद्यापिठांत गणित, भौतिकी आनी रसायनशास्त्र ह्या विशयांचो अभ्यास केलो. १९0२ वर्सा बर्लिन विद्यापिठांत माक्स प्लॉक हाच्या हातासकयल काम करून १९0३ वर्सा ताणें डॉक्टरेट पदवी मेळयली. १९0५ वर्सा बर्लिन हांगच्या इन्स्टिटयूट फॉर थिऑरेटिकल फिजिक्स हे संस्थेंत माक्स प्लांक हाचो सहाय्यक म्हूण ताची नेमणूक जाली.

१९0६ त विद्यापिठीय अध्यापक पदवी प्राप्त जाल्याउपरांत १९0९ वर्सा म्यूनिक विद्यापिठाचो तो अध्यापक जालो. थंय ताणें प्रकाशकीय, उष्मागतिकी आनी सापेक्षता सिध्दांत ह्या विशयांचें अध्यापन करून १९१२ वर्सा झुरिक विद्यापिठांत आनी १९१४ वर्सा फ्रँक फुर्ट हांगा भौतिकीचो प्राध्यापक म्हूण काम केलें. १९१६ त ताणें वुर्झवर्ग विद्यापिठांत युध्द विशयक संशोधन कार्य केलें. बर्लिन विद्यापिठांत १९१९ वर्सा भैतिकीच्या अध्यापक पदाचेर ताची नेमणूक जाली. १९४३ मेरेन तो ह्या पदार आशिल्लो. बर्लिन - डालेम हांगा स्थापन जाल्ल्या कैसर व्हिल्हेम इन्स्टिटयूट फॉर थिऑरेटिकल फिजिक्सांत फौन लौए दुसऱ्या संचालक पदाचेर आनी फुडें हे संस्थेचो तो उपसंचालक जालो. १९४६ त गटिंगेन हांगाच्या माक्स प्लांक इन्स्टिटयुटाचो कार्यकारी संचालक आनी त्या विद्यापिठाचो प्राध्यापक आसलो. १९५१ वर्सा बर्लिन - डालेम हांगाच्या माक्स प्लांक इन्स्टिटयूट फॉर रिसर्च इन फिजिकल केमिस्ट्री हे संस्थेचो संचालक आशिल्लो. तो १९५८ वर्सा निवृत्त जालो.

१९१२ त ताणें क्ष-किरणांच्या विवर्तनाचो सोद लायलो. बर्लिन विद्यापिठांत आसतना अतिसंवाहकतेविशीं ताणें केल्लो म्हत्वाचो वावर फुडें एफ् लंडन आनी एच् लंडन हांच्या अतिसंवाहकता सिध्दांताखातीर उपेगी थारलो. पुंजसिध्दांत, कॉम्पटन परिणाम, अणूचें विद्यटन ह्या संबंदीं संशोधन आनी बर्लिनच्या इन्स्टिटयूट फॉर थिऑरेटिकल फिजिक्स हे संस्थेंत माक्स प्लांक हाच्या एंट्रॉपी हे संकल्पनेचो उपेग करपासंबंदीं म्हत्वाचें कार्य केलां.

१९४४ - ४५ वर्सा ताणें भौतिकीचो इतिहास ग्रंथरुपान बरयलो. ताच्यो चार आवृत्त्यो घेवनूय सात भासांनी तांचीं भाशांतरां जाल्यांत. १९0७ वर्सा ताणें सापेक्षता सिध्दांताच्या उपयोजनांचेर सात निबंद उजवाडायले. १९११ वर्सा मर्यादित सापेक्षता सिध्दांताचेर आनी १९२१ वर्सा व्यापक सापेक्षता सिध्दांताचेर ग्रंथ बरयलो. १९३७-४७ ह्या काळांत ताणें अतिसंवाहकता ह्या विशयाचेर १ ग्रंथ आनी १२ निबंद बरोवन उजवाडायले.

क्ष-किरण विवर्तनाच्या (क्ष-किरण) सोद लायिल्ल्याखातीर ताका १९१४ वर्साचें भौतिकीचें नोबॅल पारितोशिक फावो जालें. ह्याशिवाय बॉन स्टटगार्ट, म्यूनिक, बर्लिन, मँचेस्टर आनी शिकागो ह्या विद्यापिठांच्यो डॉक्टरेट पदव्यो तशेंच लँडेनबर्ग पदक, माक्स प्लांक पदक, कलकत्त्याचे इंडियन अॅसोसिएशनचें भांगरा पदक हे सन्मान फावो जाले.

तो बर्लिनची ॲकॅडेमी ऑफ सायन्स, रशियन ॲकॅडेमी, अमेरिकन फिजिकल सोसायटी, लंडनची रॉयल सोसायटी ह्या मान्यवर संस्थांचो वांगडी आसलो. १९४८ त तो इंटरनॅशनल युनियन ऑफ क्रिस्टेलोग्राफी ह्या संघटनेचो सन्माननीय अध्यक्ष आसलो.

ताचें हें सगळें कार्य Gesammette Schriften und Vortrage ह्या शिर्षकाच्या तीन खंडांनी १९६१ वर्सा संग्रहीत केल्लें आसून तातूंत ताचें आत्मचरित्र्य आसा.

ताणें लायिल्ल्या क्ष-किरणांच्या सोदाक लागून शास्त्रज्ञान स्फटिकाचे संरचनेचो अभ्यास करपाक आनी आधुनिक इलेक्ट्रॉनिकांतल्या घन अवस्था भौतिकी ह्या म्हत्वाच्या क्षेत्रांची सुरवात जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**ल्यूइस, सिंक्लेअर :** (जल्म : ७ फेब्रुवारी १८८५, सॉकसेंटर, मिनेसोटा, अमेरिका; मरण : १0 जानेवारी १९५१, रोम).

अमेरिकन कादंबरीकार. ताचें पुराय नांव हॅरी सिंक्लेअर ल्यूइस. १९0७ वर्सा येल विद्यापिठांतल्यान ताणें पदवी घेतली. कांय वर्सां ताणें पत्रकार म्हणून काम केलें. न्युयॉर्कांतल्या कांय प्रकाशनसंस्थांनीय ताणें नोकरी केली.

नामनेचो समाजवादी अमेरिकन कादंबरीकार अप्टन

सिंक्लेअर आनी अमेरिकन समाजाचेर खर टीका करपी पत्रकार, समीक्षक आनी निबंदकार, हेन्री ल्यूइस मेंकेन हांचो ताचेर खूब प्रभाव पडलो. ल्यूइसान विसांवयर कादंबऱ्यो बरयल्ल्यो. १९१४ वर्सा ताची अवर मिस्टर रेन ही पयली कादंबरी उजवाडा आयली. ते उपरांत ताच्यो द ट्रेल ऑफ द हॉक (१९१५), द इनोसंट्स (१९१७), द जॉब (१९१७) ह्यो कादंबऱ्यो उजवाडा आयल्यो, पूण मेन स्ट्रीट (१९२०) ही ताची पयली जैतीवंत कादंबरी. हे कादंबरींत मिनेसोटांतल्या एका गांवांत कॅरल मिलफर्ड हे तरनाटेचो जाल्लो घुस्मटमार ताणें प्रभावितपणान मांडला. आर्विल्ल्या अमेरिकन समाजांतल्या अडचणींचें वास्तववादी आनी औपचारिक चित्रण ताणें आपल्या बऱ्याचशा कादंबऱ्यांनी केलां, देखीक व्यापारी वृत्ती (बॉबिट्, १९२२), वैद्यकीय वेवसायांतल्यो अपप्रवृत्ती (ॲरोस्मिथ, १९२५), धर्माच्या क्षेत्रांतलीं ढोंगीपणां (एल्मर गँट्री, १९२७), अमेरिकेंतल्या गिरेस्तांचें जग आनी तातुंतलें रितेंपण (डॉड्सवर्थ, १९२९) अशे विंगड विंगड विशय ताणें आपल्या कादंबऱ्यांनी हाताळ्ळे. वर्ल्ड सो वाइल्ड (१९५१) ही ताची निमणी कादंबरी ताच्या मरणाउपरांत उजवाडा आयली. हाताळिल्ल्या अडचणींचो खोलायेन अभ्यास करून तो आपल्यो कादंबऱ्यो बरयतालो.

१९३० वर्सा ताका नोबॅल पुरस्कार दिवन ताचे साहित्यसेवेचो भोवमान केलो. नोबॅल पारितोशिक मेळोवपी तो पयलो अमेरिकन साहित्यिक.

- कों. वि. सं. मं.

**ल्यूथर, मार्टिन :** (जल्म : १० नोव्हेंबर १४८३; मरण : १८ फेब्रुवारी १५४६).

सोळाव्या शेंकड्यांतलो प्रसिद्द ख्रिस्ती धर्मसुदारक आनी प्रोटॅस्टन्ट पंथाचो संस्थापक. मार्टिन ल्यूथर ही अस्तंती संस्कृतायेंतली आनी किरिस्तांव समाजांतली एक म्हत्वाची व्यक्ती. ताच्या लिखाणांत फकत धर्मसिध्दांतांचोच अभ्यास केल्लो नासून, तातूंत विंगड विंगड भौशिक, अर्थीक आनी राजकीय विचार सांपडटात. तो एक खाणकामदाराचो चलो. ताचें मुळावें शिक्षण मॅंस्फिल्डच्या लॅटीन स्कूलांत जालें. थंय ताणें मूळाव्या शिक्षणावांगडा बायबलाचोय अभ्यास केलो. १५०१ त



जर्मनच्या प्रसिद्द एटफर्ट विद्यापिठांतल्यान तो कला विशय घेवन मॅट्रिक जालो. उपरांत त्याच विद्यापिठांतल्यान १५०५ त तो एम्.ए. जालो. धर्मशास्त्र हो ताचो मुखेल विशय आशिल्लो. शिकता आसतनाच तो धर्मशास्त्रांत इतलो निपूण आशिल्लो की ताचे सांगाती ताका अडेनांवान तत्त्वज्ञ म्हण्टाले. आपलो पूत वकील जावचो अशी ताच्या बापायची (हँन्स) इत्सा आशिल्ली. पूण मार्टिनान आपले संमतीबगर तत्त्वगिन्यान विशय घेतला म्हूण कळटकच ताका खूब दुख्ख जालें. मार्टिन ल्यूथरान पाद्रीपणाची दिक्षा १५०६ त पुराय करून, १५०७ त तो रितसर धर्मोपदेशक जालो. मुखार प्रगत धर्मसिध्दांताचो अभ्यास करपाखातीर तो विटेनबर्ग विद्यापिठांत गेलो. उपरांत जर्मनींतल्या सॅक्सन ह्या संस्थानांत विटेनबर्ग शारांतूच तो तत्त्वगिन्यान आनी अध्यात्मशास्त्र शिकपाक लागलो. ताची शिकपाची एक खाशेली तरा आशिल्ली, जाका लागून ताणें साबार विद्यार्थी जोडले. ताचें व्याख्यान आयकुपाक हजारांनी विद्यार्थी तशेंच नागरीक एकठांय जावपाक लागले. धर्मसंस्थेंत वावुरतना थंयचे साबार धर्माभायले गैरप्रकार पळोवन तो अस्वस्थ जालो. शिकता आसतनाच मार्टिन ल्यूथरान आपलें खाशेलें अशें एक तत्त्वगिन्यान सोदून काडलें.

मार्टिन ल्यूथरच्या मतान ईश्वर हो सर्वशक्तीमान, सर्वव्यापी, सगळयांचो त्राता आनी सर्वज्ञ आसा. मनीस फकत श्रध्देन मुक्त जावंक पावना, तेरखातीर ताका तप, उपासना हांचीय गरज ना. ईश्वर आनी मनीस हांचेमदीं धर्मगुरू वा धर्मसंस्थांचीय कांय गरज ना अशें ताणें प्रतिपादन केलें. पोप हो सामान्य मनशांपरस उच्च आसून ताणें घालून दिल्ले कायदे वा पद्दत बिनचूक आसता. असल्या सगळया श्रध्दांक ल्यूथरान खर विरोध केलो. पोपान केल्ले सगळे कायदे लोकांक लुबाडून आपलें स्थान घट्ट करपाखातीर आसता अशें ताणें लोकांक सांगलें. १५१६च्या सुमाराक पोप, धावो लिओ हाणें रोमच्या चर्च बांदकामाक आदार करप हें व्हड सत्कृत्त्य आशिल्ल्याचें जाहीर करून, पापाचे शिंदोळे उडिल्ल्या मनशांकडल्यान घसघशीत रक्कम घेवन पापविमोचनाचीं पत्रकां वांटपाचो वावर सुरू केल्लो, तेन्ना पोपाक विरोध करपाची एक बरी संद ल्यूथराक मेळ्ळी. पोपाचो प्रतिनिधी पापविमोचन पत्रकां घेवन जर्मनींत गेल्लो तेन्ना ल्यूथरान ताच्याआड बंड उबारलें. उपरांत पापविमोचनासंबंदाचीं तत्त्वां आनी तेविशींचो वेव्हार हे संबंदींचें आपलें ९५ आक्षेपांचें एक पत्रक करून ताणें तें विटेनबर्ग इगर्जेच्या दारार लायलें. त्या पत्रकांत ताणें पोपाचो सुवार्थ उक्तायल्लो. हाका लागून उपरांत ल्यूथर आनी पोप हांच्यांत व्हड संघर्श सुरू जालो. १५२०त, ल्यूथर हो पाखंडी आनी धर्मशत्रू आशिल्ल्याचें पोपान जाहीर केलें, तशेंच ताका खंयच्याच राजान आलाशिरो दिवचो न्हय अशेंय फर्मान काडलें. पूण सॅक्सनीच्या फ्रेडरिक राजान ताका आपलो तेंको दिलो. उपरांत ल्यूथर थंयच्यान धर्माआड आवाज उठोवपाक लागलो. पोपाक प्रतिकार करपाचें कार्य ल्यूथरा पयलीं साबार लोकांनी हातांत घेतिल्लें. पूण पोपाक व्हडा

नेटान खूब काळमेरेन आनी परिणामकारक विरोध ल्यूथरानूच केलो. हाका लागून ल्यूथराक प्रॉटेस्टंट पंथाचो संस्थापक मानतात.

प्रबोधनाच्या आंदोलनान युरोपांत वैचारिक आनी बौध्दीक स्वातंत्र्याचें तशेंच वैज्ञानीक नदरेन एक नवें युग सुरू जालें. मार्टिन ल्यूथर आनी हेरांनी केल्ल्या धर्मसुदारणेच्या आंदोलनाकूय प्रबोधन इतिहासांत खूब म्हत्वाची सुवात लाबल्या. मार्टिन ल्यूथरा फाटल्यान लेगीत धर्मसुदारणेचें आंदोलन चालूच उरलें. मार्टिन ल्यूथर हाणें धर्मशास्त्राचेर बरयल्लीं पत्रकां, संवाद, प्रवचनां आनी ताणें रचिल्ल्या कांय प्रार्थनांचें आजुनूय व्हडा प्रमाणांत वाचप जाता. ताणें बायबलाचें जर्मन भाशेंत केल्लें भाशांतर ही आधुनिक जर्मन भाशेची सुरवात आसा अशें मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**ल्वॉफ, आंद्रे :** (जल्म : ८ मे १९०२ आयनेल - शॅतो).

फ्रेंच जीववैज्ञानिक. सूक्ष्मजंतुविलयन हे प्रक्रियेच्या आकलनांत ताणें म्हत्वाचें कार्य केलां. ताचें शिक्षण पॅरिस विद्यापिठांतल्यान जाल्याउपरांत १९२१ वर्सा ताणें सैम विज्ञानाची (निसर्गविज्ञानाची) पदवी घेतली. १९२७ वर्सा एम्.डी. आनी १९३२ वर्सा सैमविज्ञानाची पीएच्.डी. ही पदवी मेळयली.

पदवीधर जाल्याउपरांत १९२१ वर्सा तो पाश्चर इन्स्टिट्युटांत दाखल जावन थंय ताणें १९२५ - २९ मेरेन सहाय्यक आनी १९२९ - ३८ मेरेन प्रयोगशाळेचो मुखेली, १९३८ - ६८ सूक्ष्मजैव शरीरक्रियाविज्ञान विभागाचो मुखेली, १९५९ - ६८ पॅरिस विद्यापिठांत सूक्ष्मजीवविज्ञानाचो प्राध्यापक आनी १९६८ - ७२ तो व्हीलझ्वीक हांगाच्या कॅन्सर रिसर्च इन्स्टिट्युटाचो मुखेली, १९६६ - ७८ ह्या काळांत सूक्ष्मजैव शरीरक्रियाविज्ञान ह्या इन्स्टिट्युटाच्या संचालक मंडळाचो वांगडी आसलो.

सद्या तो इंटरनॅशनल ॲसोसिएशन ऑफ मायक्रोबायॉलॉजिकल सोसायटीचो अध्यक्ष आनी वैद्यकीय शास्त्राचें संघटन करपी आंतरराष्ट्रीय समितीचो वांगडी आसा.

सुरवातीक ताणें फ्लॅजेलेट प्राण्यांमदले वृध्दि - घटक आनी सिलिएट प्राण्यांतले वृध्दि - घटक, कार्यक्षम आनी शरीरक्रियावैज्ञानिक विकास, हीमोफायलस इन्फ्ल्यूएंझी ह्या सूक्ष्मजंतूक गरज आशिल्ल्या कोझायमेज ह्या घटकाचें अभिज्ञान आनी ताच्या सूक्ष्मजंतूंतल्या शरीरक्रिया वैज्ञानिक कार्यासंबंदीं संशोधन करून, प्रोटोझोआंच्या आकार जननांचो अभ्यास ह्या प्राण्यांत केंद्रक बाह्य अनुकरण जाता असो सोद लायल्या उपरांत सूक्ष्मजंतुविलयना संबंदीं संशोधन केलें.

उपरांत ताणें पोलिओच्या व्हायरसासंबंदीं अभ्यास करून प्राथमिक संसर्गाच्या (विकासांत) अविशिश्ट घटक म्हत्वाचें कार्य करतात अशें दाखोवन जीवनसत्वां सूक्ष्मजीवाचे बाबतींत वृध्दि घटक आनी कोएंझाइम अशें दोट्टी कार्य करतात असोय सोद लायलो.

१९६५ वर्सा रेणवीय जीवविज्ञानांतल्या कार्याखातीर ताका १९६५ वर्साचें वैद्यक वा शारिरक्रियाविज्ञान विशयाचें नोबॅल पारितोशिक फावो जालें. हाचेशिवाय शिकागो, ऑक्सफर्ड, ग्लासगो आनी लूव्हॉ ह्या पिद्यापिठाच्यो सन्माननीय पदव्यो तशेंच, फ्रांसाच्या ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचीं वेगवेगळीं पांच पारितोशिकां, ॲकॅडेमी ऑफ मेडिसीनचें बार्‌ब्ये पारितोशिक, रॉयल नेदर्लंड्स ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचें लेव्हेनव्हूक पदक, ब्रिटीश बायोकेमिकल सोसायटीचें कीलीन पदक, आइन्स्टाइन पुरस्कार हे सन्मान फावो जाले.

हाचेशिवाय ते सोसायटी फॉर जनरल मायक्रोबायॉलॉजी, अमेरिकेची नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेस, लंडनची रॉयल सोसायटी, रशियाची ॲकॅडेमी ऑफ मेडिसीन ह्या मान्यवर संस्थांचो तो वांगडी आसलो.

- कों. वि. सं. मं.

**ल्हासा :** तिबेटांतलें एक पवित्र स्थळ आनी तिबेटाचें राजपाटण. आग्नेय तिबेटांतल्या हिमालय पर्वतीय प्रदेशांत सुमार ३६०० मी. उंचायेचेर, ल्हासा ब्रह्मपुत्रेच्या ल्हासा फांट्याचे दयदिगेर वसलां. 'ला पास' ह्या बोलिव्हियेच्या राजपाटणाउपरांत संवसारांतलें सगळयांत उंचावयलें हें दुसऱ्या क्रमांकाचें राजपाटण.

राजा सॉंगत्सेन गाम्पो हाच्या पुर्वजांनी ४००च्या सुमाराक ल्हासाची स्थापणूक केली अशें म्हण्टात. सॉंगत्सेन गाम्पो हाचे राजवटींत तिबेटांत बौध्द धर्माचो चड प्रसार जालो. जोखांगचें प्रसिद्द देवालय आनी पोलाला राजवाड्याचें बांदकाम ताचेच राजवटींत सुरू जाल्लें. तिबेटी राज्यकर्त्यांचें कांय शेंकडे ल्हासा हें मुखेल केंद्र तशेंच भिक्षू आनी लामा हांची मुखेल आलाशिऱ्याची सुवात आशिल्ली. णवव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत चिनाच्या थांग राजवंशाच्या सैन्यान ल्हासा शाराचेर जैत मेळयलें. ह्याच शेंकड्यांत ल्हासा तिबेटाचें राजपाटण जालें. ८४२त तिबेटच्या राजाची हत्त्या जाल्या उपरांत राजपाटण म्हूण ल्हासाचें म्हत्व उणें जायत गेलें. फुडल्या कांय शेंकड्यांत आध्यात्मिक आनी धर्मीक नदरेन ल्हासा शाराक परतून म्हत्व मेळून तिबेटांतलें राष्ट्रीय आनी धर्मीक केंद्र म्हूण ताका प्रसिद्दी मेळ्ळी. १६४२त ल्हासा शाराक केंद्र शासनाचें मुखेल स्थळ म्हूण म्हत्व मेळ्ळें. पांचव्या दलाई लामाचे राजवटींत पोताला राजवाड्याचें बांदकाम पुराय जालें. तेन्नासावन लामांचें ल्हासा हें मुखेल केंद्र जालें. १९०४त कर्नल फ्रांसिस यंगहजबंड हो ल्हासाक येवपी पयलो युरोपी मनीस. ताचे आदीं ल्हासाक वचपाक युरोपी लोकांक बंदी आशिल्ली. १९११त चिनी लोक तिबेटांत रिगले, तेन्ना ल्हासा ही लामापंथीयांची मुखेल सुवात आशिल्ली. थंयची अदर्यावयर लोकसंख्या लामा भिक्षूक आनी तांच्या अनुयायांची आशिल्ली. १९५९त

चिनान तिबेट हातासून मठाची सत्ता काबार केली. तेन्ना थंय सत्तेर आशिल्लो दलाई लामा ल्हासासावन पळून वचून ताणें भारतांत आलाशिरो घेतलो. दलाई लामाचो पोताला राजवाडो ल्हासांत आशिल्ल्यान त्या राजवाड्याक 'पॅलेस ऑफ द गॉड्स' अशें म्हण्टात. चिनाच्या शेकातळा थंयच्या भिक्षूकांची संख्या आनी प्रभाव खूब उणो जालो. साबार मठ आनी संस्था बंद पडल्यो. चिनी सत्ता येवचे आदीं वेपारी मार्गांनी ल्हासाचो भारत, नेपाळ, चीन आनी भूतान हांचेकडेन वेपार चलतालो. आयज लेगीत ल्हासा हें तिबेटांतलें मुखेल वेपारी केंद्र आसा. ह्या शारांत साबार मठ, देवळां आनी आश्रम आसात. हाकालागून ल्हासाची पवित्र सुवात म्हूण म्हत्व वाडलां.

- कों. वि. सं. मं.

**वंगभंग चळवळ :** लॉर्ड कर्जन हाणें बंगाल फाळणेचो निर्णय जाहीर केल्या उपरांत ब्रिटीश राजवटीच्या धोरणाआड जाल्ली चळवळ. वंगभंग ही भारताचे स्वातंत्र्य चळवळींतली एक म्हत्वाची चळवळ. ब्रिटिशांच्या तेंपार बंगाल प्रांत, हो सद्याचें अस्तंत बंगाल, बांगलादेश, बिहार आनी ओरिसा राज्य मेळून तयार जाल्लो. ह्या व्हड प्रांताची प्रशासनाचे सोयीखातीर फाळणी कशी करची हाचेर सुमार धा वर्सां भासाभास चलताली. निमाणेकडेन ही फाळणी राजकीय हिताखातीर करपाचें थारलें. १८८५ त भारतीय काँग्रेसची स्थापणूक केल्याउपरांत ताचे वांगडी ब्रिटिशांचे राजवटीक विरोध करीत रावले. काँग्रेसींत बंगालच्या सुशिक्षीत तरणाट्याचो चड आस्पाव आशिल्लो. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक संयुक्त बंगाल ही एक व्हड शक्त आसा हें ब्रिटीश राज्यकर्त्यांक बेस बरें खबर आशिल्लें. बंगालची फाळणी केल्ल्यान ती व्हड शक्त वाटून वतली आनी साम्राज्यविरोधी शक्तय अशक्त जातली हाची तांकां म्हायती आशिल्ली. सुरवेक १९०३ तल्या पत्रकावरवीं उदेंत बंगालाचे चितगाँग, मैमनसिंग आनी टिपेरा हे तीन जिल्हे आसामाक जोडपाची येवजण तयार केली. हें पत्रक भायर येतकूच बंगालच्या कांय लोकांनी ताका विरोध केलो. हो विरोध व्हडलोसो प्रभावी नाशिल्लो. देखून देड वर्सा उपरांत सबंद बंगालचीच फाळणी करपाचो निर्णय ब्रिटिशांनी घेतलो. ह्या वेळार ब्रिटिशांक खर विरोध जावपाक लागलो. ह्या निर्णयाक विरोध करपाखातीर बंगालांतूच न्हय तर भारताच्या वेगवेगळ्या प्रांतांनी शेंकड्यांनी सभा जाल्यो. सत्तर हजार बंगाली लोकांच्या सह्यांचें फाळणी निशेधाचें निवेदन लंडनांत ब्रिटीश शासनाक सादर केलें. बंगाल फाळणेचो लॉर्ड कर्जन होच मुखेल शिल्पकार आशिल्लो. उदेंत बंगालच्या वेगवेगळ्या वाठारांनी भोंवडी करून तो थंयच्या साबार मुसलमानांक मेळ्ळो. वेगवेगळ्या जाहीर सभांत फूस लावणीं भाशणां करून, उदेंत बंगाल - आसामच्या नव्या प्रांतांत मुसलमानांची प्रभावी बहुसंख्या आसतली आनी तें तांकां फायदेशीर थारतलें अशें सांगतालो. तेरवातीर ढाक्काच्या नवाबांक ताणें सरकारा तिजोरेंतल्यान रीण दिवन तांकांय आप[illegible] घेतले. उपरांत ते नवाब मुसलमानाक [illegible] फायदे पटोवन दिवपाक लागले. ऑगस्ट १९०५ त फाळणेचो निर्णय घोशीत केलो. ह्या घोशणा पत्रकांत नव्या उदेंत बंगालांत १ कोटी २० लाख हिंदू आनी १ कोटी ८० लाख मुसलमान लोकांचो राबितो आसतलो अशें घोशीत केल्लें. अशे रितीन उदेंत बंगालांत हिंदू धर्मीक अल्पसंख्य जाले, जाल्यार नव्या अस्तंत बंगालांत सगळे बंगाली भाशीक अल्पसंख्य जाले. फाळणेच्या निर्णयाक विरोध करपाखातीर ७ ऑगस्ट दिसा टाउन हॉलच्या वाठारांत नागरीकांची व्हड सभा भरली. हातूंत विद्यार्थ्यांचोय आस्पाव आशिल्लो. हे सभेंत स्वदेशी आनी बहिश्काराच्यो कार्यावळी एकमुखान मान्य जाल्यो. १६ ऑक्टोबर दिसा फाळणी येवजण चालींत आयली. त्या दिसा पुराय प्रांतांत सुतक पाळ्ळें. बंगाली लोकांत एकी आसा हें दाखोवपाखातीर भौशिक रक्षाबंधनाचे सुवाळे मनयले.

फाळणेची येवजण चालीक लायल्या उपरांत बहिश्काराच्या कार्यावळींक नेट आयलो. जायत्यो ब्रिटीश गिरणी बंद पडल्यो. बंगाल आनी भारताच्या हेर प्रांतांनीय आंदोलनां सुरू जालीं. खबरांपत्रांतल्यान सरकाराचेर टिका जायत रावली. सप्टेंबर १९०५ त गो. कृ. गोखले इंग्लंडाक वचून थंयच्या मुखेल्यांक मेळ्ळो. ताणें थंय साबार सभांतल्यान भाशणां दिवन फाळणी रद्द करपाखातीर खूब यत्न केले. पूण ताचो कांयच उपेग जालो ना. १९०६ त ब्रिटनांत नवें सरकार सत्तेर आयल्याउपरांत लेगीत फाळणेचो निर्णय रद्द जालोना. देखून स म्हयन्यांनी गोखले परतून इंग्लंडाक वचून भारतमंत्री लॉर्ड मोर्ले हाचेकडेन फाळणेसंबंदीं भासाभास करपाक लागलो. पूण मोर्लेन कसलोय निर्णय घेंवचे आदीं पयलीं ताका प्रांतांतलें वातावरण शांत करपाक लायलें. वंगभंग चळवळीक नेट आयलो, तशें ब्रिटीश सरकारान देशभर दडपशाय सुरू केली. हाका लागून देशांतलें वातावरण आनीक इबाडलें. देशांतल्या सगळया जहाल फुडाऱ्यांक बंदखणीची ख्यास्त जावपाक लागली. ल्हान ल्हान क्रांतीकारी पंगडूय वयर सरपाक लागले. क्रांतीकारी प्रचार करपी खबरापत्रकांच्या संपादकांकूय कडक ख्यास्त जावपाक लागली. संपादकांक खर ख्यास्त दिवपी कलकत्त्याचे मॅजिस्ट्रेट किंग्जफर्ड हाचे गाडयेचेर क्रांतिकारांनी ३० एप्रिल १९०८ दिसा बाँब हल्लो केलो. पूण ते गाडयेंत बॅरिस्टर कॅनडीचें कुटुंब आशिल्लें. तातुंतल्या दोगांक मरण आयलें. हे घडणुकेखातीर खुदीरामाक दोशी थारावन ताका गोळार चडयलो. ताचो वांगडी प्रफुल्ल चाकी हाणें आपल्याचेरूय गुळी घालून आत्मबलीदान केलें. वंगभंग चळवळीचो म्हत्वाचो परिणाम म्हळयार काँग्रसींतल्या जहाल पंगडाक चड प्रसिद्दी मेळ्ळी.

जून १९०८ त ब्रिटीश पार्लमेंटात हिंदुस्थानचे परिस्थितीचेर भासाभास जाल्ली तेन्ना बंगालाचे फाळणेक लागुनूच भारतांत तंग

[illegible] निर्माण जालां, हाचेर चडशा [illegible] भर दिल्लो. हाका लागून १९११ त [illegible] भेटवेळार बादशाह पंचम जॉर्ज हाणें हिंदुस्थानांत आनी लॉर्ड मोर्ले हाणें ब्रिटीश पार्लमेंटांत फाळणी रद्द जाल्ल्याचें घोशीत केलें. फुडाराक, भारत स्वतंत्र जातकच, भारत आनी पाकिस्तान अशी अखंड भारताची फाळणी जाले उपरांत अखंड बंगालचो उदेंत वाठार उदेंत पाकिस्तान म्हण पाकिस्तानाचो वांटो जालो आनी अस्तंत बंगाल भारत राश्ट्राचें एक राज्य (बंगाल राज्य) जालें. उदेंत पाकिस्तान अखंड पाकिस्तानांतल्यान भायर पडले उपरांत (१६ डिसेंबर १९७१), उदेंत पाकिस्तानाचें बांगलादेश हें नांव धारण करून स्वतंत्र राश्ट्र निर्माण जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**वंशवाद :** वंशीक गुणधर्माचेर आदारीत एक पारंपारीक विचारसरणी. अनुवंशीक कुडीचीं लक्षणां आनी व्यक्तीमत्वांतले गुणदोश हांचे मदलो संबंद दाखोवपी कार्यकारणभाव दाखोवपी एक सिध्दांत. मनशाची बुध्दीमत्ता आनी कार्यक्षमता ही ताका वांशीक परंपरेन मेळिल्ली आसता अशें हो सिध्दांत प्रतिपादन करता. तेखातीर थारावीक अशा वंशांत जल्माक आयिल्लीं मनशां थारावीक अशे गुणदोश जल्मावांगडाच घेवन येतात. तेखातीर अमुकच एका वंशांतलीं मनशां दुसऱ्या अमुकच एका वंशांतल्या मनशांपरस वेगळीं जावप स्वभावीक आसा. हातुंतल्यानच फुडें वांशीक भेदाभेदाची आनी वांशीक उच्च - निचतेची कल्पना मुखार आयली.

वंशवादाची बसका जीवशास्त्र आनी समाजीक शास्त्र अशा दोन शास्त्राचेर आदारीत आसा. जिवशास्त्राप्रमाण थारावीक मनीस गटांत कात, दोळे, केंस, हांचो रंग, तशेंच कांय अवयव विशेश करून दोळे, नाक, कान, ओंठ, केंस हाचे प्रकार आनी मापां तशेंच संबद कुडिचें माप समान मेळटात. तशेंच धर्म, भास, रिती - रिवाज, कुटूंब पद्दत आनी समाजीक परिसर हांचो मनशाच्या वर्तनाचेर आनी पर्यायान गुणधर्माचेर प्रभाव पडटा आनी म्हणून थरावीक समाजीक परिस्थितांत वाडिल्लो वा उरिल्लो मनीस थारावीक गुणदोश क्षमता तशें बुध्द क्षमता बाळगिता. म्हणून समाजीक परिस्थितीचो फरक स्वभाव क्षमता फरक घडोवपाचो संभव दिसता.

वंशवादाचे परंपरीक विचारसरणेक चार्लस रॉबर्ट डार्विनच्या उत्क्रांती वादांत बरीच चालना दिली आनी तेन्नाच्यान वंशउच - निचतेचे संकल्पनेक जलप्राप्त जालें. फुडें खुबशा वंशीक श्रेश्ठत्वाच्या पुरस्कर्त्यांनी डार्विनच्या उत्क्रांती वादाचेर आदारीत वंशवादाक चालना दिली. जोझेफ आर्तियोर त काँत गुदिल्हो (१८१६ - १८८२), हॉस्टेन स्टिव्हर्ड चँबर लँड, लुडव्हीक व्हुल्टमान, एच्. एफ. के. गुथूर (जर्मनी), लॉथोक स्टोर्डव्ह, मॅडीसन ग्रँट (अमेरिका), चार्लस किंग्जली, रडयर्ड किपलींग (इंग्लंड) हे वंशवादचो सिध्दांत मांडपी कांय मुखेल विचारवंत लेखक.

वंशवादाचे विचारसरणेन संवसारभर आपलो असो एक इतिहास घडयला. वंशवादाच्या सिध्दांताचो आदार घेवन कांय जाणांनी उच्च - निचतेचो कस लावन समाजीक, अर्थीक तशीच राजकीय असमता प्रस्थापित केली. ग्रीक आनी रोमन साम्राजांतली गुलामगिरी, १७ ते १९ व्या शेंकड्यामेरेनची युरोपी राश्ट्रांचो वसाहतवाद, अमेरिकेंतल्या गोऱ्या - काळया (निग्रो) लोकांमदलो वंशभेद, जर्मनींतलें हिटलर प्रणीत ज्यू हत्त्याकांड आनी दक्षीण आफ्रिका प्रजासत्ताकांतल्या ब्रिटीश राजकर्त्यांचो वर्णद्वेश हीं वंशवादांतल्यान निर्माण जाल्लीं समाजीक अरिश्टां आसात. ह्या अरिश्टांनी मानवी समाजाखातीर एक काळोकिट्ट इतिहास निर्माण करून दवरलो. ग्रीक आनी रोमन साम्राज्यांत जाल्लो गुलामांचो छळ, वसाहतवादयांनी केल्ली वसाहतींतल्या मूळ लोकांची समाजीक अर्थीक, संस्कृतीक पिळवणूक ज्यू हत्त्याकांडात जाल्ली ६० लाख ज्यूंची हत्त्या ह्यो वंशवादाच्या दुश्परीणामांच्यो कांय देखी.

वंशवादाच्या सिध्दांता फाटल्यान तर्कसंगत असो शास्त्रीय आदार ना अशी विचारसरणी आयचे घडयेक मुखार आयल्या आसली तरी आजय प्रगत तशेंच अप्रगत देशांनी वंशभेद पळोवंक मेळटा. भारतीय समाजांतल्या जातीवादा फाटल्यान हेंच वंशभेदाचें तत्त्व दिसता.

वंशवादा फाटल्यान शास्त्रीय आदार ना हाची प्रचिती जायत्या तरांनी दिसून आयल्या. फाव तशी संद मेळ्ळी आनी जाय ती सुविधा प्राप्त जाली जाल्यार खंयच्याय वंशांतलो मनीस आपली कार्यक्षमता आनी बुध्दीक्षमता दाखोवंक शकता, हें सप्रमाण सिध्द जाल्लें आसा. तशेंच आयचे घडयेक खंयचोय एक वंश संकरणाबगर उरूंक ना. आपल्याक उच्च समजुपी वंशांत लेगीत हेर वंशाचें मिश्रण जाल्लें दिसता. आधुनिक प्रभावी प्रसार माध्यमाक लागून संस्कृतींचें आधान - प्रधान सोंपें जाल्ल्या कारणान आयज खंयच्याच एका गटाची संस्कृती भरसणीबगर उरूंक ना. जिवशास्त्रीय नदरेनय वंश संकल्पना तिगून उरना. जिवशास्त्राप्रमाण सद्या हयात आशिल्ली संपुर्णमानव जमात होमो - सेपीयन आसून ते सगळेजाण एकाच साठ्यांतल्यान निर्माण जाल्ले आसात. जे शारिरीक भेद दिसतात तांचो कार्य वा बुध्दी क्षमतेकडेन संबंद लावंक मेळना.

नैतिक नदरेन गुन्यांव थारपी वंशवाद कायद्याखालाय गुन्यांव म्हणून मानून घेतला. संयुक्त राश्ट्राच्या आंतरराश्ट्रीय कायद्याखाला राश्ट्रीय, वंशीक, जाती वा धर्मीक गटाचे बाबतींत समुदायीक हत्त्या. मानसीक वा शारीरीक छळ, समुहाचे जीवन पद्दतीक बाधा, सक्तीचें संतती नियमन, ल्हान भुरग्यांखातीर समुह बदलाची सक्ती आदी गुन्यांव थारयला. नैतिक तशें कायदेशीर रितीन वंशवादाचें खंडन केलां आसलें तरी वंशवादाची कीड पुरायेन नश्ट जावंक ना. जरी आदलेपरीन वंशवाद प्रभावीपणान दिसता आसलो तरी हांगा थंय ह्या नात्या रुपान तो तकली वयर काडिल्लो दिसता. शिक्षणाक, अर्थीक,

राजकीय उदरगत आनी समाजीक प्रबोधनां हांचे वरवीं वंशवादासारक्या अरिश्टाक आळाबंदा येवं येता.

- कों. वि. सं. मं.

**वंश साहित्य :** पाली साहित्याचें एक मुखेल आंग. वंशसाहित्यांत मुखेलपणान राजांचे वंशावळीचें वर्णन केल्लें आसा. ह्या साहित्याची परंपरा खूब पुर्विल्ली आसून, ती बुध्दघोष युगाच्या आदीं सावन सुरू जाता आनी १९ व्या शतमानामेरेन येवन पुराय जाता. पाली भाशेंतले मुखेल वंशग्रंथ अशे आसात - दीपवंश, महावंश, चूलवंश, बुध्दघोसुप्पत्ती, सध्दम्मसंग्रह, महाबोधिवंस, थूपवंस, अत्तनगलुविहारवंस, दाठ, छकेसधा तुवंस, गंधवंस आनी सासनवंस.

दीपवंस हो वंशसाहित्यांतलो पयलो ग्रंथ आसा. हातूंत लंकाद्वीपाचो इतिहास आसा. महावंस ह्याय ग्रंथांत लंकेचो इतिहास आसा. ह्या ग्रंथाची शैली महाकाव्याक पूरक अशी आसा. महावंस हो ग्रंथ ३७ व्या परिच्छेदांतल्या ५० वे गाथेचेर सोंपता. हातूंत महासेनाच्या शासनकाळाचें (इ.स. ३२५ - ३५२) वर्णन आयिल्लें आसा. तेउपरांतचो आधुनिक काळामेरेनचो इतिहास त्या ग्रंथाक जोडिल्लो आसून ताका चूलवंश अशें नांव आसा. हो इतिहास पांच मनशांनी वेगवेगळया काळांत बरयला.

बुध्दघोसुप्पत्ती (बुध्दघोषोत्पत्ती) हो महामंगल नांवाच्या एका सिंहली भिक्षून (इ.स.चें १४ वें शतमान) बरयल्लो आसून ह्या ग्रंथांत बुध्दघोषाचें चरित्र वर्णिल्लें आसा. सध्दम्मसंग्रह हो ग्रंथ गद्यपद्यमिश्रीत आसून, धर्मकीर्ती महास्वामी (इ.स. चें १४ वें शतमान) नांवाच्या एका भिक्षून तो रचला. हातूंत बुध्दाच्यो आज्ञा आनी सुरवेच्या काळापसून इ.स.च्या १३व्या शतमाना मेरेनच्या भिक्षुसंघाचो इतिहास दिल्लो आसा. महाबोधिवंस वा बोधिवंस हो ग्रंथ गद्य आसून, सिंहली भिक्षू उपतिष्य हाणें तो रचला. हातूंत अनुराधपूर हांगा लायिल्ल्या बोधिवृक्षाची कथा सांगिल्ली आसा. थूपवंस हो ग्रंथ सिंहली भिक्षू वाचिस्सर हाणें रचिल्लो आसून ह्या ग्रंथांत तीन मुखेल भाग आसात. पयल्या भागांत गौतम बुध्दा आदीं जावन गेल्ल्या २४ बोधिसत्त्वाचें वर्णन आसा. दुसऱ्या भागांत गौतम बुध्दाचें चरित्र आसा आनी तिसऱ्या भागांत बुध्दाच्या शारिरीक अवशेशांचेर निर्माण केल्ल्या स्तुपाचें आनी ताच्या उत्तरकालीन इतिहासाचें वर्णन आसा. अत्तनगलु विहारवंस वा हत्तवनगल्लविहारवंस हो ग्रंथ गद्य पद्द मिश्रीत आसून इ.स. च्या १३ व्या शतमानांत रचिल्लो आसा. ह्या ग्रंथांत लंकाधिपती सिरिसंबोधी आनी ताणें निर्माण केल्ले विहार हेविशीं म्हायती आसा. अत्तनगलू नांवाचे सुवातीचेर निर्मिल्ल्या विहारांचीं नामना आशिल्ल्यान ह्या ग्रंथाक हें नांव दिल्लें आसा. दाठवंस ह्या ग्रंथाची रचणूक सिंहली भिक्षू महास्थविर धर्मकीर्ती हाणें इ.स. च्या १३ व्या शतमानांत केली. कलिंगाचो राजकुमार बुध्द हाचे दांत लंकेंत व्हेले आनी लंकेंतलो राजा, भिक्षू आनी लोक हांणीं ताची पुजा केली, आदी विशय हातूंत वर्णिल्ले आसात. छकेसधातुवंस हो ग्रंथ एका ब्रह्मी भिक्षून बरयल्लो आसून तातूंत बुध्दाच्या स केंसांचेर बांदिल्ल्या स्तुपाचें वर्णन आसा. इ.स.च्या १९ व्या शतमानांत ह्या ग्रंथाची रचना जाली. गंधवंस (ग्रंथवंश) ह्या ग्रंथाची रचना इ.स.च्या १९व्या शतमानांत ब्रह्मदेशांत जाली. पाली भाशेंतल्या ग्रंथकारांचें आनी तांच्या ग्रंथांचें विवरण हातूंत दिल्लें आसा. सासनवंस (शासनवंश) हो ग्रंथ बह्मी भिक्षू पञ्ञासामी (प्रज्ञास्वामी) हाणें इ.स. च्या १९ व्या शतमानांत बरयला. बुध्दकाळापसून इ.स. च्या १९ व्या शतमानामेरेन बौध्द धर्माचो विकास कसो जालो, हाचें वर्णन हातूंत आसा. ब्रह्मदेशांत बौध्द धर्माचो प्रसार कसो जालो आनी ब्रह्मी राजा तेचपरी भिक्षुसंघ हांचे संबंद कशे आशिल्ले ही तातुंतली म्हत्वाची म्हायती आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**व :** देवनागरी वर्णमाळेंतलें एकोणतिसावें व्यंजन. ताचो विकासक्रम पांच अवस्थांतल्यान जाला. हाची पयली अवस्था अशोकाच्या गिरनार हांगाच्या शिलालेखांत, दुसरी आनी तिसरी मथुरा हांगाच्या चार जैन लेखांत (सनाआदीं सुमार पयलें शतमान), चवथी अवस्था प्रतीहार बाहुकाच्या जोधपूर लेखांत (इ.स. ८३७) आनी शेवटची अवस्था राजा जाइंकदेवाच्या दानपत्रांत (इ.स. ९०४) मेळटा.

'व' च्या रुपाचो विकासक्रम असो -



ह्या वर्णाचें स्वरूप कामधेनुतंत्रांत अशें सांगला :

वकारं चञ्चलापाङ्गि कुण्डली मोक्षमव्ययम् ।
पञ्चप्राणमयं वर्णं त्रिशक्तिसहितं सदा ॥
त्रिबिन्दुसहितं वर्णं आत्मादितत्त्वसंयुतम् ।
पञ्चदेवमयं वर्णं पीताविद्युल्लतामयम् ॥
चतुर्वर्गप्रदं वर्णं सर्वसिध्दिप्रदायकम् ।

**अर्थ :** हे चंचलपांगी पार्वती, वकार हो कुंडली, मोक्षदायक, पंचप्राणमय त्रिशक्तिसहित, त्रिबिंदुसहित आत्मतत्त्वयुक्त, पंचदेवमय, पीतविद्युल्लतामय, चतुर्वर्गप्रद आनी सर्वसिध्दिदायक आसा.

दांत आनी ओंठ हें हाचें उच्चारणस्थान.

- कों. वि. सं. मं.

**वक्फ :** मुसलमान धर्माचे व्यक्तीन थरावीक विधी - नेमावळीखाल केल्लें धर्मादायी दान. अशें दान करतल्याक वाकिफ म्हण्टात. वक्फ म्हळयार अटकाव वा प्रतिबंध. नामनेचो तत्त्ववेतो अबू हनीफा (६९९

- ७६७) हाच्या मतान संपत्ती वाकिफच्या मालकिचीच दवरपाची आनी तिचें उत्पन्न धर्मादाय उद्दिश्टांखातीर वापरपाचें म्हळ्यारच वक्फ. ताच्या शिश्यांच्या मतान मात वक्फाकलागून वाकिफचो संपती वयलो अधिकार ना जावन ती परमेश्वराच्या अधीन जाता आनी तिचो लाव मानव समाजाक मेळटा.

वक्फ अधिनेमाप्रमाण मशीद, कबरस्तान, शिक्षण संस्था पाणपोई, पूल, अन्नदान, ताजिया, खानका, प्रार्थनासत्रांची वेवस्था, गरिबांक आदार, अशा मुसलमानी धर्माक मान्य आशिल्ल्या खंयच्याय उद्दिश्टांखातीर वक्फ निर्माण करूं येता. खंयचीय साबुदेची सज्ञान व्यक्ती वक्फ करूंक शकता. वाकिफ मृत्यूपत्रावतीनय वक्फ करूंक शकता. वक्फचे प्रस्थापनेखातीर संपत्तीच्या समर्पणाची घोशणा गरजेची आसता. पूण संपत्तीचो ताबो दिवप गरजेचें आसा कांय ना हे विशीं मतभेद आसात. शिया पंथाप्रमाण संपत्तीचो ताबो दिवप गरजेचें मानलां. स्थावर वा जंगम अशे खंयचेय संपत्तीचो वक्फ करूं येता. पूण वाकिफचो 'मूषा' (संपत्तीचो विभागूंक नाशिल्लो वांटो) आसल्यार ताचो वक्फ जावंक शकना. वाकिफान वक्फाखातीर जीं उद्दिश्टां केल्लीं आशिल्लीं तांची फाटपुरवण करप अशक्य जाल्यार वक्फची संपती ही हेर समान उद्दिश्टांखातीर वापरूंक येता. हनफी पंथाच्या विधीप्रमाण वाकिफचे मुस्तींत ताच्या स्वताच्या आनी ते उपरांतच्या कुटुंबियांच्या निर्वाहाखातीर वक्फ जावंक शकता. पूण निमाणें उद्दिश्ट गरिबांखातीर उपेगी अशेंच आसूंक जाय. शिया विधीप्रमाण वाकिफ स्वताच्या व्यवस्थापनाची वेवस्था वक्फचेवतीन करूंक शकना.

वक्फचे निर्मिती उपरांत संपत्तीची वेवस्था जे व्यक्तीकडेन वता ताका मुतवल्ली म्हण्टात आनी तो कायद्याचे नदरेन ट्रस्टी कसो आसता. बायलांक मुतवल्ली जावपाक प्रतिबंद ना. पूण वक्फ संबंदीत धर्मीक कार्यांत तिका वांटेकार जावंक मेळना. वाकिफ स्वताक वा आपल्या वंशजांक मुतवल्ली नेमूंक शकता. ताणें मुतवल्लीची नेमणूक केली ना जाल्यार न्यायालय योग्य मनशाची मुतवल्ली म्हण नेमणूक करता. वक्फ अधिनेमा प्रमाण मुतवल्लीच्या अधिकाराचेर कांय मर्यादा आसात. देखीक, वक्फची संपत्ती न्यायालयाचे परवानगीबगर तो विकूंक, घाण दवरून, अदलाबदल करूंक शकना. मुतवल्लीच्या अकार्यक्षमतेक लागून वा वक्फच्या ताचेकडसून जाल्ल्या दुरुपयोगाक लागून ताका त्या पदावयल्यान निखळावपाची तजवीज आसा.

वक्फ हो धर्मदायी विधी संपत्ती विशय आशिल्ल्यान ताचें नियोजन आनी नियंत्रण करपाखातीर कायदेशीर अधीनेम शासनान करून दवरल्यात. केंद्रीय अधीनेम नं. ४२ (१९२३), नं. ३४ (१९५४) हे म्हत्वाचे अधीनेम आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**वक्ल :** मुखेलपणान नदर दोशाचेर मात करून मनशाची नदर प्रभावी करपाक आदार करपी साधन. नदर दोशाभायर दोळ्यांक अपाय करपी उजवाडाच्या किरणांपसून संरक्षण करपाकूय वक्लाचो उपेग जाता. वेल्डींग करतना निर्माण जाल्ले खर उज्याकिटींपसून दोळ्यांचें संरक्षण करपाक तशेंच उदकापोंदा वावुरतना उदक आनी उदकांतले अपायकारक जीव हांचेपसून संरक्षण नेमपाक वक्लाचो उपेग करतात. प्लास्टीक वा धातुची फ्रेम आनी हारसो वा प्लास्टीका पसून तयार केल्लीं दृश्टीदोश निवारक भिंगां फ्रेमींत बसोवन कान आनी नाक हांचेर थारपी वक्लां सादारणपणान तयार करतात. वेल्डींग वा उदकांतल्या वावराखातीर आशिल्ल्या वक्लांक पट्याच्या आदारान तकलेक रेवडावप जाता. आधुनिक काळांत फ्रेमींत भिंगां बसयनासतना सरळ दोळ्यांच्या मुंडल्याचेर बसोवपाचीं भिंगां (Contact lense) तयार केल्यांत.

**इतिहास :** इ.स. १५० त क्लॉडियस टॉलेमस ह्या रोमी लेखकाचे बरपावळींत पुर्विल्ले लोक कंवचेच्या वाटकुळ्या आयदनांत उदक भरून ताचो उपेग वस्तू व्हड दिसपाखातीर करताले असो उल्लेख मेळटा.

पोरनीं हातबरपां वाचतना आनी तांच्यो प्रती तयार करतना आदले धर्मगुरू दाट भिंगां वापरताले. जाण्टे लोक ह्या भिंगांचो फायदो घेतात असो पयलो उल्लेख माईनसर हांगा केल्लो मेळटा. १२८२ वर्सा निकोलस बुलेट ह्या धर्मगुरून एके कबलातीचेर सय करतना वक्ल वापरिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. रॉजर बेकन (१२१४ - ९४) हाणें पारदर्शक स्फटीक वा कंवची हांचो उपेग उणी नदर आशिल्ल्या लोकांक जातलो अशें म्हणिल्ल्यान वक्लाचो सोद ताणें लायलो अशें ताका श्रेय दिवप जाता. पूण सुमार १२७० त मार्को पोलो हाणें चीन देशाचे भोंवडेंत थंयचे लोक नदर सुदारपाखातीर भिंगां वापरताले असो उल्लेख केल्लो मेळटा.

खूब पुर्विल्ल्या काळार सावन कंवचेचीं भिंगां वापरताले. सुरवेक बहिवक्र (भायलेवटेन वाटकुळसाण आयिल्ली) भिंगां तयार केल्ल्यान जाण्ट्या लोकांक ताचो बरो फायदो जालो. पंदराव्या शतमानांत अंतर्गोल भिंगां वापरपाक सुरवात जातकच उणे नदरेचो दोश आशिल्ल्यांकूय ताचो फायदो जावंक लागलो.

कंवचेचीं भिंगां वापरपाक सुरवात जायत सावन विसाव्या शतमानांत भिंगाची आनी वक्लाची पांवड्या पांवड्यान उदरगत जायत गेली. वक्लाचो सोद लायल्या उपरांत तीन - साडेतीन शतकांनी कानार घट्ट बसतल्यो अशे तरेन सरयो जोडपाची कल्पना १७२७ - ३० च्या सुमाराक एडवर्ड स्कार्लेट हाणें सोदून काडली. उपरांत सुमार १७४९ त दुर्बिणीवरी वक्लां प्रचारांत आयलीं. १८०६ वर्सा एकच भिंग (मोनोकोल) वापरपाची प्रथा सुरू जाली. १८४० म्हळ्यार स्प्रिंगेच्या आदारान फकत नाकाचेर घट्ट बसून उरतलें अशें दोन भिंगांचें वक्ल प्रचारांत आयलें.

१८४५ त सर जॉन हर्शेल हाणें दोळयांचेरच चिकटून उरतलीं अशा स्पर्श भिंगांची कल्पना मुखार हाडली. तशेंच कॅन्सरान दोळयाच्यो मुंडल्यो इबाडल्यार स्पर्श भिंगांचो संरक्षक आनी वक्लावरी उपेग जाता हें म्यूलर हाणें दाखोवन दिलें. जाल्यार यूजीन फिक ह्या सीस दोतोरान ह्या भिंगांक कॉन्टॅक्ट लेन्स (स्पर्श भिंग) हें नांव सुचयलें. दोळयांक वक्ल घालीनासतना ह्या भिंगांनी वक्लावरी काम जाता आसलें, तरी वक्ला इतलो तांचो प्रसार जाल्लो ना. हीं भिंगां वापरपांत जायत्यो अडचणी येतात. कांय प्रकारचीं भिंगां मिठाच्या उदकान भरून घेवन दोळयांर बसोवचीं पडटात, तीन - चार वरांनी हें उदक उणें जातकच तीं काडून परत मिठाचें उदक भरून बसोवचीं पडटात. कांय भिंगां फकत मुंडल्यांचेर बसयतात. दोळयांत दुकां येतकच पोंवतना, खेळटना वा वेगान वचपी वाहनावयल्यान वतना अशीं भिंगां कुशीन वतात. ताकालागून तीं सतत वापरप कठीण जातात. भारतांत स्पर्श - भिंगां तयार करपी तीन - चार कारखाने आसले तरी सदच्या वक्लांपरस हीं भिंगां खुबच म्हारग पडटात.

**नदर दोश :** वेगवेगळया कारणांक लागून दोळयांत वेगवेगळे तरेचे दोश तयार जातात आनी मागीर नदरेचेर परिणाम जाता. पिरायेच्या चाळीस वर्सां उपरांत लागींचें दिसपाक वा वाचपाक त्रास जातात. दोळयांतल्या भिंगाचें लवचीकपण उणो जाल्ल्यान, हेर रोगांक लागून तशेंच, विशिश्ट जीवनसत्त्वांच्या उणावाक लागून दोळयांचे रचनेकडे संबंदीत आशिल्ल्या स्नायुंच्यो हालचाली सारक्यो जायनात. देखून नदरेंत जायते दोश निर्माण जातात. नदरेंतलो दोश वयाचेर अवलंबून आसना. जे तरेचो नदर दोश तयार जाल्लो आसता तो पयस करपी वक्ल तयार करूंक येता.

**गोलिय भिंगां :** हातूंत दोळयांचें अनुकूलन (वेगवेगळया अंतरावयल्यो वस्तू स्पश्टपणान दिसपाखातीर दोळयांतल्या भिंगाची बहिर्वक्रता उणी चड जावप आनी भिंगाच्या आदारान किरणांचें एकत्रीकरण जावप) संवयेन आनी सहकार्यान जाता. हाचो उपेग लागसल्ली वस्त पळेतना जाता. हें अनुकूलन उणें जालें म्हण्टकच वाचतना वा बारीक कामाचेर नदर लायतना त्रास जावंक लागता. फाव तीं बहिर्गोल भिंगां वापरलीं म्हण्टकच दोळयांच्या पटलाचेर प्रकाशकिरण केंद्रीभूत जावन दोश पयस जातात.

खर नदरदोशांत दोळयांची लांबाय उणी आशिल्ल्यान प्रतिमा दोळयांच्या पटलाच्या फाटल्यान पडटा. अनुकूलन सुदारतकच हो दोश वचून पयसुल्ल्यो वस्तू स्पश्ट दिसूंक लागतात. लागसल्ल्या वस्तूं वयल्यान येवपी प्रकाशकिरणांचें अपसरण जावन ते केंद्रभिसारी जावपाखातीर अनुकूलन चड लागता. घन शक्तीचें भिंग हो दोश पयस करता.

उण्या नदरदोशांत नेत्रगोलाची लांबाय वाडिल्ल्यान पयसुल्ले वस्तुवयल्यान येवपी समांतर किरण नेत्रपटलाचेर पडनासतना ताच्या मुखार केंद्रित जाता देखून ती वस्त अस्पश्ट दिसता. फावतें अंतर्गोल भिंग वापरल्यार किरणांचें अपसरण वाडून हे किरण नेत्रपटलाचेर केंद्रीत जातात.

**चित्याकृती भिंगां :** दृश्टिवैषम्य हो दोश व्हड प्रमाणांत दिसून येता. दोळयाच्या उब्या आनी आडव्या याम्योतरांची (Meridian) वक्रता वेगळी आशिल्ल्यान प्रणमन शक्ती (उजवाडा किरण एका माध्यमांतल्यान दुसऱ्या माध्यमांत भितर वतना तेच दिशेंत जावपी बदल) वेगवेगळया याम्योतरांत वेगवेगळी मेळटा. ही चडांत चड आनी उण्यांत उणी प्रणमन शक्ती एकामेकांक काटकोनांत आशिल्ल्या याम्योत्तरांत मेळटा. ह्या नदर दोशांत नेत्रपटलाचेर केंद्रीकरण जायना आशिल्ल्यान सगळया अंतरावयल्यो वस्तू स्पश्ट दिसनात. त्या दरम्यानच्या कोनांत नदर काम करपाक शकता आसली तरी तकली उसळप वा दोळयांचेर ताण येवप जाता. हो दृश्टिवैषम्य चित्याकृती (लांबशें वाटकुळें) भिंग वापरून पयस करपाक येता. ह्या भिंगाची शक्त एकेच दिशेक आसता.

**लोलक - बहुकोनी भिंगां :** उणे शक्तीचें लोलक (Prism) वापरून आपाती (Incident) किरणांची दिशा बदलूंक येता. हाचो उपेग तिरशे दोळे सुदारपाखातीर करतात. लोलकाचो उपेग नेत्रगोलाच्या भायल्या स्नायुंच्या पक्षाघाताचेर करतात.

**द्विकेंद्री भिंगां :** उणो पूण चड तेंपाचो नदर दोश आशिल्ल्यांक परत परत वक्लाची अदलाबदल करची पडटा. हो त्रास द्विकेंद्री भिंगां एकठांय बसोवन पयस करतात. १७९४ वर्सा बेंजामिन फ्रँक्लिन हाणें सुरवेक द्विकेंद्री भिंगां वापरलीं आनी तांचें वर्णनूय केलें. तेउपरांत १०० वर्सांनी दोन भिंगां एकठांय चिकटावन वापरपाक सुरवात जाली. १९०४ सावन दोन भिंगांचो मिलाप करून वा अखंड काचेंत द्विकेंद्री भिंगां तयार करपाक लागले. व्हड भिंगांच्या एका भागांत जो दुसऱ्या ल्हान भिंगाचो मिलाफ करतात ताचो प्रणमनांक चड आसता. दोनय भिंगांचो भायलो पृश्ठभाग एक सारकोच आसता. पूण ल्हान भिंगाच्या भितल्ल्या पृश्ठभागाक चड वक्रता आसता. तातुंतल्यान वाचूंक वा लागिंचें पळोवंक मेळटा. अखंड काचेंत दोन भाग करून जायतेप्रमाण हिशेब करून तांचें घासकाम करून द्विकेंद्री भिंगां तयार करतात.

**त्रिकेंद्री भिंगां :** हातूंत पयसुल्लो, मदलो आनी लागसल्लो अशे तीन वेगवेगळे शक्तीचे विभाग आसतात. मदल्या विभागाचो सकयलो आनी वयलो विभाग सारकेच शक्तीचो आसलो तरी तांचीं प्रकाशीय केंद्रां मात वेगवेगळीं आसतात. हीं भिंगां दोन दोळयांतलो विषम प्रणमन दोश पयस करपाखातीर वापरतात.

**साहित्य आनी आकार :** सुरवेक भिंगाखातीर क्वॉर्ट्झचो उपेग करताले. आतां प्रकाशीय कांचेचीं भिंगां तयार करतात. हे काचेंतले घटक आनी तांचें प्रमाण गरजेप्रमाण वेगवेगळें आसता आनी तातूंत रेशा वा बोमाडे उरचे नात हाची जतनाय घेतात. वक्लाचीं

भिंगां सोंपेपणी फुटूं नये म्हणून दोन काचांमदीं प्लास्टीकाचें पातळ कवर बसोवन नवे पद्दतीचीं भिंगां तयार करतात. वक्लाच्यो चवकोटी कांसवाच्या कट्ट्याच्यो वा धातुच्यो करताले. आतां चडकरून प्लास्टीकच्यो करून तांकां ओडलायणो रंग आनी आकार दितात. चवकटीची घटसाण वाडची म्हणून कांय प्रमाणांत तिचे भितल्ले वटेन धातुच्यो सरयो वा पट्ट्यो वापरतात.

**वक्लांचे खाशेले प्रकार :** हून भट्ट्यांकडे काम करप्यांक, धातुंचे रस गाळप्यांक आनी असलीं हेर कामां करप्यांच्या दोळयांक अवरक्त प्रारणापसून बादा येवची न्हय देखून खाशेले तरेचीं वक्लां वापरतात. हाचेभायर जंबूपार प्रारणापसून वितळजोडाचीं कामां करप्यांक, ह्या प्रारणाचो उपेग करपी रुग्णालयांतल्या कर्मचाऱ्यांखातीर आनी रुग्णांच्या दोळयांक, तशेंच चकाकीपसून राखण करपाखातीर, उश्ण कटिबंधांत, बर्फाळ वाठारांत, दर्यादिगेर, कारखान्यांतल्या वावराखातीर वा विशिश्ट परिस्थिती प्रमाण दोळयांची राखण जावंची म्हणून वेगवेगळया प्रकारचीं वक्लां तयार करतात. क्ष-किरणांपसून अपाय जावंचो न्हय म्हणूनय वक्लां वापरतात. दूर दर्शकाचे गुणधर्म आशिल्लीं वक्लां उणी नदर आसल्यार वा नदरेकडे संबंदीत आशिल्ल्या कांय भागांक रोग जाल्लो आसल्यार वापरतात. ह्या वक्लांत दोन वा चड भिंगांचो उपेग करतात.

**प्रयोगीक अवस्थेतलीं वक्लां - १) कुड्ड्यांखातीर वक्लां :** खाशेल्या रंगाकडे खाशेल्या स्वरांचो सांगड घालून, दुय्यम रंगांच्या स्वरांचें मिश्रण जावप आनी ताचो संबंद संवयेन लावंक येवप ह्या तत्त्वार डी. बी. फॉस्टर ह्या शास्त्रज्ञान कुड्ड्यांखातीर एक वक्ल तयार केलें. ह्या वक्लांत सदच्या भिंगांजाग्यार प्रकाशीय गाळण्यो बसयल्लो आसतात. तांचेर पडपी उजवाडाचें तीन मुळाव्या रंगांत पृथक्करण जाता. ह्या उजवाडाचें प्रकाशविद्युत् घटकाच्या आदारान ध्वनींत रुपांतर जावन कानाक जोडिल्ल्या ध्वनीक्षेपकान ताची संवेदना मेंदवामेरेन पावता. तीन प्रकाशविद्युत् घटकांक लागून वक्ल जड जाता देखून पारदर्शक रंगीत वर्तुळखंडांत एक फिरती चकती बसोवन तिच्या फाटल्यान एकच प्रकाशविद्युत् घटक बसोवपाची येवजण करपांत आयिल्ली आसा. तातुंतल्यान मेळपी मिश्र संकेतांचें इलेक्ट्रोनीय पद्दतीन पृथकरण जातकच रंगाची वळख मेळटा.

**(२) अंतराप्रमाण भिंगाचें केंद्रांतर बदलपी वक्ल :** द्विकेंद्री भिंगाच्या आदारान लागसल्ल्यो वा पयसुल्ल्यो वस्तू एकाच वक्लाच्या आदारान पळोवंक मेळटात. पूण हाचेपरस्ूय सुदारिल्लें वक्ल ब्रिटनांतल्या नॅशनल इन्स्टिटयूट फॉर मेडिकल रिसर्च हे संस्थेंतल्या शास्त्रज्ञांनी तयार केलां. ज्या अंतरावयल्यान वस्तू पळोवपाची आसता. त्या अंतराक योग्य तरेन जमोवन घेवपी भिंगां ह्या वक्लांत बसयल्यांत. हीं भिंगां पोकळ आसून तीन पदर एकामेकांक जोडून तयार केल्लीं आसतात. सगळयांत वयलो पदर उणो वक्रपृश्ठभागी आसता. मदलो पदर पॉलिव्हिनील ब्युटिराल नांवाच्या प्लॅस्टिकचो आसता आनी फाटलो पदर सामको पातळ आसता. भिंगांतल्या पदरांचे मदले पोकळेंत द्रव पदार्थ सोडलो म्हण्टकच भिंगाची वक्रता उणीचड करूंक मेळटा. भिंगांतल्या लवचीक पदराच्या बदलपी वक्रतेकलागून खंयच्याच अंतरावयलें दृश्य स्पश्ट दिसूंक शकता.

**भारतीय उद्योग :** १९६६ मेरेन भारतांत वक्लाच्यो सगळेतरेच्यो घटमूट, तिगपी आनी दिखावू चवकटी आयात करच्यो पडटाल्यो. पूण उपरांतच्या काळांत भारतांतच तांचें उत्पादन जावंक लागलें आनी तांची निर्यातय जावंक लागली. शंभरांपरस चड लघुउद्येग केंद्रांत वक्लाच्या प्लास्टिकाच्यो चवकटी तयार जातात. ह्यो चवकटी पुराय धातुच्यो वा प्लास्टिकच्या जायत्या रंगांच्या वेगवेगळया सयांच्यो तयार करतात. चवकट पुराय धातुची करपाखातीर वा प्लास्टिकांत घालपाखातीर रोल्ड गोल्ड वा ॲल्युमिनियमाचो उपेग करतात. भारतांत कांय प्रगत आनी आघाडीचेर आशिल्ल्या कारखान्यांत चवकटी तयार करपाचीं यंत्रां आसात. ह्या यंत्रांच्या तशेंच कांय परदेशी यंत्रांच्या आदारान चवकटी, तातुंतल्यो ल्हान बिजागऱ्यो, रिव्हेट, पिनो प्रतिबलीत सरयो आनी सजावटीचे प्रकार तयार जातात.

भारतांत तशेंच भारताभायल्या लोकांक आवडपी अशा चवकटींचें उत्पादन करून भारत तांची निर्यात इंग्लंड, अस्तंत जर्मनी, रशिया, स्वित्झर्लंड आनी हेर युरोपीय देशांत तशेंच दक्षिण आनी उदेंत आफ्रिका ह्या देशांत माल निर्यात जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**वचनसाहित्य :** वीरशैव संतांचें कन्नड सूक्तिसाहित्य. ज्या ग्रंथांत ह्या सूक्तींचो संग्रह केल्लो आसा त्या ग्रंथाक वचनशास्त्र म्हूण वळखतात. ह्या सूक्तींतल्यान वीरशैव संतांचे तांच्या अणभवांचेर आदारीत अशे बोधपर विचार उक्ते जाल्ले आसात. उण्या शब्दांत आनी परखड भाशेंत हे विचार मांडपांत आयल्यात.

वचन साहित्याचो काळ सुमार ७०० वर्सांचो आसा. देवरदासिमय्या हो पयलो वचनकार इ.स.च्या १० व्या शतमानांत जावन गेलो. सर्वज्ञ हो निमणो वचनकार सतराव्या शतमानांत जावन गेलो. मदल्या काळांत अल्लमप्रभू, बसवेश्वर चेन्नबसल, अक्कमहादेवी आदी कन्नड साहित्याचे दिग्गज जावन गेले आनी तांणी वचन साहित्याक प्रतिश्ठा मेळोवन दिली.

वीरशैव संत लोकांत तरेकवार जातीचे आनी तरेकवार वृत्तीचे संत आशिल्ले. दासिमय्या पारधी आशिल्लो. माचय्या मडवळ, केतकय्या अत्यज, अपण्ण म्हालो, चौडय्या नावाडी, कण्णप्प तेली आनी चन्नय्य डोंब आशिल्लो. ह्या सगळयांनी आपआपल्या जाती - वृत्तांतलीं उदाहरणां दिवन वचन साहित्य समृध्द केल्लें आसा. आतांमेरेन वट्ट २१३ वचनकारांचीं वचनां उपलब्ध आसात. ह्या वचनकारांनी वट्ट

१६० कोटी वचनां बरयल्ल्याचें सांगतात.

कांय वचनकारांनी उपनिषदांचो, कांय जाणांनी शैवागमाचो जाल्यार कांय जाणांनी पुराणाचो आदार घेवन आपआपलीं वचनां बरयल्लीं आसात. पूण सगळयांचो भर चडकरून आत्मानुभूतीचेर आशिल्ल्याचें दिसून येता. हातुंतल्या कांय वचनकारांच्या वचनांक लोकोक्ती वा वाक्प्रचाराचें म्हत्व मेळिल्लें आसा.

वचनसाहित्य हें वीरशैव संप्रदायांकडच्यान आयिल्लें आसलें तरी ताचो पावंडो संप्रदायाची शीम हुंपून पलतडीन गेल्लो आसा. तेचपरी ताणें विश्वमानवतेक स्पर्श केल्लो आसा. वचनांत आशिल्ले नैतिक उपदेश हे फकत सांप्रदायिकांखातीरच नासून ते पुराय मनीस जातीखातीर आसात. वचनां हीं गिन्यानाची खण आसून, दिव्यत्वाक वेंगावपी ती अमृतवाणी आसा. ताकालागून शुध्द आचाराच्या गिन्यानाखातीर आनी स्वताचे भ्रम सुदारपाखातीर वचन साहित्याचें चिंतनमनन करूंक जाय अशें संप्रदायांच्या फुडाऱ्यांनी आपल्या अनुयायांक सांगिल्लें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वजनां आनी मापां :** धान्य आनी हेर तरेचे पदार्थ, जमीन आदीच्या देवघेवीच्या वेव्हाराखातीर जोखपामापपाचीं सर्वमान्य तशेंच शासनमान्य अशीं मोलवाणेचीं उपकरणां.

**इतिहास :** ईजिप्त, सुमेरिया, ॲसिरिया, बॅबिलोनियाः संवसारांतलीं अतीपुर्विल्लीं अशीं दोन तरेचीं वजनां (इ.स. आदीं ७००० आनी इ.स. आदीं ५०००) ईजिप्तांतल्या उत्तर वाठारांतल्या नाकडा हांगाच्या पोरन्या थडयांत मेळळयांत. ह्या काळांत दोन वेगवेगळयो संस्कृत्यो अस्तित्वांत आशिल्ल्यो. हातुंतलीं पयल्या प्रकारचीं वजनां लांबसार वांटकुळीं आनी दुसऱ्या प्रकारचीं वजनां शंखाआकाराचीं आसून हे दोनय प्रकार चुन्या फातरा पसून तयार केल्ले. हीं वजनां बीक्का पद्दतीचेर आदारिल्लीं आशिल्लीं. दुसऱ्या प्रकारच्या वजनाच्या काळांतय पारड्यो नाशिल्ली तांबड्या चुन्याफातराची एक तागडी मेळळया.



इंग्लंडाचे पयले एलिझाबेथ राणयेच्या काळांतलीं वजनां

हीं बीक्का पद्दतीचेर आदारिल्लीं वजनां चडकरून भांगरा - रुप्याचें वजन करपाक वापरताले. ईजिप्तांतल्या ३००० वर्सांचे राजवटींत तीं वापरांत आशिल्ल्यान फुडें ग्रीक रोमन आनी अरब लोकांनी हीं वजनां आपआपले राजवटींत वापरांत हाडलीं.

इ.स. आदीं सुमार ३५०० सावन ईजिप्तांतली हायरोग्लिफिक लिपी आनी सुमेरियांतली क्युनिफॉर्म लिपी हांकां लागून थंयचीं वजनां आनी मापां हांचीं चित्रां आनी प्रत्यक्ष म्हत्वाचो असो पुरावो मेळ्ळो. त्या काळांतलीं वजनां तांबड्या चुन्या फातराचीं तशेंच घट्ट अशा बेसाल्ट, डायोराइट आनी हेमॅटाइट फातरांचीं आसतालीं. वजनाच्या आकारांतूय पयल्या राजवंशापसून (इ.स. आदीं सुमार ३१००) ते इकराव्या - बाराव्या राजवंशामेरेन बरेच फरक आसात.

तेराव्या ते सतराव्या राजवंशांतल्या काळांत सुमेरिया आनी बॅबिलोनिया देशांत फकत काळया हेमॅटाइट फातरापसून तयार केल्लीं वजनां वापरताले. तांचे आकार एकाद्र्या न्हिदिल्ल्या बदकावरी आसून, तांचीं वजनां कांय ग्राममेरेन ते ६०.५५ किग्रॅ. इतल्या व्हड वजनाचीं आसतालीं. तांचेर उर - निनगिर - सु' (लेगॅशचे राजे) हें नांव कोरिल्लें आसतालें. ह्या राजांचो काळ इ.स. आदीं सुमार २५३० आशिल्लो. व्हड वजनांचेर राजांच्या नांवा वांगडा 'दोन टॅलेंट' अशें वजनाचें मोलय आशिल्ल्याचें दाखयताले.

इ.स. आदीं सुमार २००० - १८०० च्या काळांत सुमेरियांतल्या ईरेक आनी अर हांगा सामक्या चकचकीत आनी गुळगुळीत अशा हेमॅटाइटच्या फातराचींच नागपुरी बोरांवरी पूण सपाट भाग आशिल्लीं वजनां तयार करपाची प्रथा आशिल्ली. उपरांतच्या काळांत परत बदका आकाराचीं आनी काळया हेमॅटाइट फातरापसून वजनां तयार करूंक लागले.

ईजिप्तांतल्या इ.स. आदीं १५०० ते १४५० ह्या शतमानांत तिसऱ्या धटमीझ हाच्या काळांत थीब्झ हांगाच्या ॲमन देवाच्या देवळांतले वण्टीर एक व्हड तागडेचें चित्र आसा. उत्तर ईजिप्तांतल्या टेल एल अमार्ना हांगाच्या इ.स. आदीं सुमार १३७० ते १३५० तली वापरांत आशिल्ली एक तागडी मेळ्ळया.

इ.स. आदीं पंदराव्या ते बाराव्या शतमानामेरेनच्या काळांत ईजीप्ताच्या वजनाचे जडण घडणींत खूब बदल जाले. फातरांचो जागो ब्राँझान घेतलो तशेंच भुमितीय आकारां जाग्यार मोनजातीचे आकार आयले. ह्या काळांत सिरिया आनी ईजिप्तांतले वेपारी व्हड प्रमाणांत तागड्यो आनी वजनां वापरताले. ताचे आदीं तागड्यांचो उपेग फकत राजे राजवाडे, व्हड अधिकारी आनी देवळां हांकां लागपी भांगरा - रुप्याच्या वजनांखातीर करताले. पूण फातरांचीं वजनां चड तिगपी आशिल्लीं. देखून इ.स. आदीं सुमार १३५० च्या काळांत परत घट्ट अशा ग्रॅनाइट फातराचीं वजनां करूंक लागले.

इ.स. आदीं आठव्या शतमानांत टायग्रीस न्हंयेचे उत्तरेवटेनच्या

ॲसिरिया राजवटीन फातरा जाग्यार ब्राँझाचीं तशेंच तांब्याचीं वजनां प्रचारांत हाडलीं. ह्या वजनांचो आकार सुशेग घेता अशा कलापूर्ण शींवाचो आसतालो. अशा शींवाकृती वजनांचो एक पुराय संच ॲसिरिया राजांच्या इ.स. आदीं ७४५ ते ७०५ ह्या कालखंडांत तयार जाल्लो, निमरूद हांगाच्या राजवाड्याच्या प्रवेशदाराकडे मेळ्ळा. व्हड वजनांक उखलपाखातीर ब्राँझाच्यो मुठी आसून ल्हान वजनांक ल्हान वांटकुळ्यो मुदयो आसताल्यो. हीं शींवाकृती वजनां अदर्या शेकेल सावन ते २ टॅलेंट मेरेन म्हळयार ६०.३०३ किग्रॅ. मेरेन सद्याच्या मोसूल गांवालागच्या खोर्साबाद ह्या पुर्विल्ल्या नगराच्या अवशेशांत मेळ्ळयांत. ॲसिरियाचे हे धर्तेच्या वजनांचीं नांवां अशीं : १ टॅलेंट = ६० मिना, १ मिना = ६० शेकेल, शेकेलचें वजन सुमार ८.३६ ग्रॅ. आशिल्लें. हे पद्दतीक फुडें 'डारिक' हें नांव पडलें.

पुर्विल्ल्या काळांत मध्य तें उदेंतेतल्या वेगवेगळया देशांत वापरांत आशिल्ल्या प्रमाणभूत वजनांत शेकेल आनी मिना हीं नांवां सगळयाक आसतालीं. पूण ईजिप्तांत केडेट हें एकक धरून ताचे धा पटीन डेबेन (१० केडेट), सेप (१०० केडेट) हीं प्रचारांत आशिल्लीं. प्रमाणभूत वजनांच्या मापन पद्दतींचीं नांवां देशांप्रमाण अशीं आशिल्लीं - (१) पेएम (पॅलेस्टाइन, इझ्राएल); (२) डारिक (सुमेरिया, बॅबिलोनिया, ॲसिरिया); (३) स्टेटर (आर्य, अकिअन); (४) केडेट (ईजिप्त); (५) नेसेफ (सिरिया); (६) खोरिन (पर्शिया); (७) बीक्का (ईजिप्त); (८) सेला (फिनिशिया).

**ग्रीक वजनां :** हांगां दोन मुखेल आनी प्रमाणभूत अशीं वजनां प्रचारांत आशिल्लीं. एक ईजायना आनी दुसरें अथेन्स.

१) **ईजायना** - हें १२. ४४ ग्रॅम वजनाचें एकक आसून ताच्या १/२ भागाक ड्राक्मा आनी १/१२ भागाक ओबोल अशीं नांवां आशिल्लीं. ड्राकमा ६.२२ ग्रॅमांचो आनी ओबोल १.०३७ ग्रॅमांचो आशिल्लो. तशेंच १ मिना = ५० स्टेटर = १०० ड्राक्मा = ६२२.०८ ग्रॅम. आसतालीं. हीं वजनां ब्राँझ आनी शिशाचीं आसून कांसवा आकाराचीं आसतालीं.

२) **अथेन्स** - हें ८.७५ ग्रॅम वजनाचें आसून ताच्या १/२ भागाक ड्राक्मा आनी १/१२ भागाक ओबोल हीं नांवां आशिल्लीं. तशेंच १ मिना = ५० स्टेटर = १०० ड्राक्मा =४३७.५ ग्रॅ. आशिल्लीं. हीं वजनां ब्राँझाचीं आनी शिशाचीं आसून ताचेर घुबडाचें चित्र कोरिल्लें आसतालें. ह्या वजनाचे प्रमाणभूत नमुने जनतेच्या संदर्भाखातीर अथेन्स शारांत दवरताले आनी हेर देशांतले नमुने वेपारी लोकांचे सोईखातीर दवरताले. ह्या दोनय प्रकारांत १ टॅलेंट = ६० मिना हेंच प्रमाण धरिल्लें.

**रोमन वजनां :** हांगा इ.स. धाव्या शतमाना सावन ब्राँझाचीं नाणीं आनी वजनां प्रचारांत आशिल्लीं. इ.स. आदीं सुमार ३३८ सावन निश्चीत आकाराचीं छाप आशिल्लीं नाणीं आनी वजनां रोमन आनी लॅटीन लोकांत प्रचारांत आयलीं. नाण्यांचे स प्रकार आसताले. तातुंतल्या एककाचें नांव ॲस आसून वजन इट्रुस्कन आनी ऑस्कन पौंडा इतलें म्हळयार ४२१० ग्रेन (२७२.८१ ग्रॅ.) आशिल्लें. १/२ भागाक सेंमी, १/३ भागाक ट्राइन, १/४ भागाक क्वाड्रन, १/६ भागाक सेक्स्टन आनी १/१२ भागाक अनचीअ अशीं नांवां आशिल्लीं. उपरांतच्या काळांत ब्राँझ नाण्या जाग्यार रुप्याचें दीनेअरीअस हें नाणें प्रचारांत आयलें. ताचें वजन ४.७५ ग्रॅम आशिल्लें. ६ दीनेअराय = १ अनचीअ (२७.४१ ग्रॅ.), ७२ दीनेअराय = १ लिब्रा (पौंड), १ लिब्रा = १२ अनचीअ (औंस) = ३२८.९ ग्रॅ. ब्रिटीश संग्रहालयांत आशिल्ल्या पोरन्या वजनाच्या नमुन्यांत १० लिब्रासावन १/४ अनचीआमेरेनचीं वजनां आसात. वेपारधंद्याखातीर ही पद्दत रूढ आशिल्ली. २ ओबोल =१ स्क्रिप्युलम (स्क्रूपल), २४ स्क्रिप्युला (स्क्रूपल) = १ अनचीअ आनी १२ अनचीअ = १ लिब्रा.

**अरबी वजनां :** इ.स. पांचव्या ते आठव्या शतमानांत अरब लोकांत वजनाच्यो तीन पद्दती रूढ आशिल्ल्यो. ह्यो शेकेल ह्या एककाचेर आदारीत आशिल्ल्या आनी ताचे १/२ भाग, १/४ भाग केल्ले आसताले. ह्या तीन पद्दतींतल्या वजनाच्या एककाचीं नांवां आनी मुल्यां अशीं : (१) दिनार : (४.२१२ ग्रॅ.) (२) दिऱ्हेम : (२.९१६ ग्रॅ.) रुपें जोखपाखातीर वापरताले. (३) दिऱ्हेम (३.१८ ग्रॅ.) हें वेपार धंद्यांत वा भांगरा - रुप्याच्यो लगडी जोखपाखातीर एकक म्हूण वापरताले. ह्या एककांचें नेमकें पण ३ ०.१३ग्रॅ. हे मर्यादेत इ.स. १२५९ मेरेन तिगोवपांत आयिल्लें. अरबांनी आपलीं एककां शेजारच्या ग्रीस, पर्शिया, ईजिप्त आदी देशांत प्रचलीत आशिल्ल्या एककांक सहजपणान भागू शकतलीं अशीं केल्लीं. दिऱ्हेम एककाचे १६ भाग करून दर एका भागाक किरत म्हण्टाले. १० दिऱ्हेम = १ वुकीये आनी १२ वुकीये = १ रोट्ल. तशेंच १ किरत = ३ हेब्बे (जवाचे दाणे) वा ४ कांबेह (गंवांचे दाणे) अशी विभागणी केल्ली. ब्रिटीश आनी युरोपीय देशांतल्या उपरांतच्या काळांतल्या प्रमाणभूत वजनांचेर सगळयांत चड प्रत्यक्ष प्रभाव पडिल्ल्यो ह्यो सगळयांत पोरन्यो अरबी वजन पद्दती आसात.

**फ्रेंच आनी हेर वजनां :** (आठवें ते एकुणिसावें शतमान) मध्य युगांत वजनाच्यो वेगवेगळयो पद्दती प्रचारांत आशिल्ल्यान वेपाऱ्यांमदीं वादविवाद चड जाताले. देशादेशांतूच न्हय जाल्यार प्रांताप्रांतांत आनी शारांशारांत लेगीत वेगवेगळे तरेचीं वजनां आसतालीं. पूण पोरनो रोमन पौंड युरोपांतल्या चडशा वाठारांत अठराव्या शतमानामेरेन वैजकी आनी वखदांच्या कामांखातीर वापरांत आशिल्लो. ह्या पौंडाचें विभाजन अशें : १२ औंस = ९६ ड्राक्मा (ड्राम) = २२८ स्क्रूपल = ५,७६० गंवाचे दाणे अशें केल्लें.

**फ्रेंच वजनां :** पॅरिसांत मेट्रिक पद्दत येवंचे आदीं थंयचें मुखेल वेपारी वजन एकक 'प्वे द मार' हें आशिल्लें. ताचें विभाजन अशें केल्लें : १ लीव्हर = २ मार = १६ औंस = १२८ ग्रो = ३८४ देन्झे = ९,२१६ ग्रेन. लांगदॉक आनी आर्येझ वाठारांत वेगळेच एकक

प्रचलीत आशिल्ले. कॅरॅनझे हें एकक गोरवांमांसाच्या वजनाखातीर, १०० लीव्हरांचो क्विंटल जड वेपारी वजनाखातीर जाल्यार, जहाजांतल्या मालाखातीर टन हें एकक वापरताले. टन द मीर हें प्वे द मार पद्दतींत २,००० लीव्हरांचें वजन आशिल्लें. पोरनो रोमन पौंड पेरिसांत १७३२ मेरेन वरवदी वजनाखातीर वापरांत आशिल्लो. तेउपरांत ताच्या जाग्यार प्वे द मार हें वजन आयलें. तशेंच ग्रो आनी ग्रेन हांचीं नांवां द्राकमे आनी स्क्रूपल अशीं जालीं.

**हेर देश :** जर्मनींत मोलादीक धातुखातीर कोलोन मार्क हें प्रमाणभूत वजन १५२४ त थारावपाक आयलें. ताचें विभाजन अशें आशिल्लें: १मार्क = ८ औंस = १६ लॉथ = ६४ क्विंटीन = २५६ फेनिग (वा डेनियर) = ४,३५२ एशेन. भांगर आनी रुप्याखातीर फ्लॉरेन्स पौंड प्रचारांत आशिल्लें आनी ताचें विभाजन अशें आशिल्लें - १२ औंस = ९६ ड्राक्मा = २८८ दिनारी = ६,९१२ ग्रेन (= ४४८ ग्रॅ). सगळया तरेच्या वेपारी वजनांखातीर हेंच वजन कायदेशीर आशिल्लें. स्पेन आनी ताच्या सगळया वसाहतींत कॅस्टिलचें मार्क वजन कायदेशीर आशिल्लें. (१) मार्क = ८ औंस = ६४ ओरखावा = १२८ अडार्म = ३८४ टोमीन = ४,६०८ ग्रेन (= २१८.६ ग्रॅ.). (२) मार्क = १ पौंड = ७,१०० इंग्लीश ग्रॅन (= ४६० ग्रॅ.). ह्याच मार्कान भांगराचेंय वजन करताले. पूण ताचें विभाजन अशें आशिल्लें : १ क्विंटल = ४ अरोबा = १०१.४ इंग्लीश पौंड चिनी वेपारी मालाचें मुखेल वजन पेकल हें आशिल्लें : १ पेकल = १०० कॅटी = १३३.३ इंग्लीश पौंड; १ कॅटी = १६ टील = १,६०० कॅंडोरीन.

**इंग्लीश वजनां :** (आठवें ते एकुणिसावें शतमान). मर्शियाचो राजा ओफा (७५७ - ९६) हाणें सुरू केल्ल्या नव्या नाण्यांत २२.५ ग्रेन (१.४६ ग्रॅ.) वजनाची रुप्याची पेनी मूलभूत आशिल्ली. हीं नाणीं १५२७ मेरेन इंग्लीश वजन पद्दतीक प्रमाणभूत आशिल्लीं. ही पेनी 'पेनी स्टर्लिंग' ह्या नांवान वळखताले आनी ती अरबी रुप्या अदर्या दिऱ्हेमाचेर आदारीत आशिल्ली (सुमार ३.२२ - २३ ग्रेन). ही वजन पद्दत सारकी अरबी पद्दती भाशेन आशिल्ली. पूण तिच्यांतलो औंस २० पेनींच्या वजनाबरोबर आशिल्लो आनी पौंड १२ औंसांचो म्हळयार ४५० ग्रेनांचो आशिल्लो. हाका टॉवर पौंड म्हणून वळखताले. फुडें १५२७ वर्सा हे पद्दतीजाग्यार ट्रॉय वजन पद्दत चालींत आयली.

तिसरो हेन्री हाणें १२६६ वर्सा अध्यादेशावरवीं पौंडाची निश्चीत व्याख्या थारायली. पूण रुप्या पेनी आदलेवरी २२.५ ग्रेनांचीच आशिल्ली. नाण्यांचो पौंड ५,४०० ग्रेनांचो आनी वेपारी पौंड ६,७५० ग्रेनांचो उरलो. ह्या अध्या देशांतलो १५ औंसाचो पौंड, रुप्याच्या आनी वेपारी मालाखातीर वापरांत आशिल्ल्या पुर्विल्ल्या ॲटिक मिनाचेर आदारिल्लो आशिल्लो. हें वजन भुमध्य सामुद्रिक वेपारांत, तेराव्या शतमानामेरेन अस्तंत युरोपांतल्या पवित्र रोमन साम्राज्यांतल्या आनी इंग्लंडचे वेपारी संबंद आशिल्ल्या जर्मन शारांत व्हड प्रमाणांत वापरांत आशिल्लें.

**ॲव्हर द पॉइझ वजन (१३४०) :** हें नांव जड मालाच्या वजनाखातीर वापरांत आशिल्लें. तिसरो एडवर्ड हाणें इंग्लडांत नवें वजनाचें प्रमाण १३४० त प्रस्थापीत केलें. ताणें तयार केल्ल्या वजनाचो संच ७,७,१४,२८,५६ आनी ९१ पौंड वजनाचो आसा. ह्या वजनाचो आदार ६९१२ ग्रेनांचो पौंड आनी ४३७ ग्रेनांचो औंस आशिल्लो. हें ॲव्हर द पॉइझ वजन स्पश्टपणान लोकरीच्या वजनाखातीर प्रस्थापीत करपांत आयिल्लें.

**ट्रॉय वजन (१४१४) :** ही पद्दत इंग्लीश शेटी मर्दीं चड रूढ आशिल्ली. इंग्लीश टांकसाळी पद्दत अजुनय टॉवर पौंडावरीच आदारिल्ली आशिल्ली. ट्रॉय पद्दतींत २४ ग्रेन म्हळयार १ पेनीचें वजन; २० पेनींचें वजन म्हळयार १ औंस; १२ औंस म्हळयार १ पौंड आशिल्लें. ट्रॉय पद्दत सामकी अरबी पद्दतीवरीच आशिल्ली आनी तातूंत पेनीचें वजन ४८ ग्रेनांच्या दिऱ्हेमाच्या १/२ आशिल्लें. १५२७ वर्सा टांकसाळींत टॉवर पौंडावांगडा वेपारी पौंडय रद्द करून ५,७६० ग्रेनांचो ट्रॉय पौंड अधिकृत टांकसाळी पौंड जालो.

सातवो हेन्री हाणें पुराय इंग्लीश वजनां तशेंच रेशीय आनी घनफळ मापां हांची संविधानीय मुळावणाचेर १४९७ त उबारणी केली. वजनां आनी मापां हांचीं राज्यकोशीय मानकां प्रधान संदर्भ मानकां म्हूण इंग्लंडांतल्या ४३ म्हत्वाच्या शारांत धाडपांत आयलीं. ह्या संविधानाप्रमाण ५,७६० ग्रेनांचो ट्रॉय पौंड ४८० ग्रेनांच्या १२ औंसांत आनी २४ ग्रेनांचो २४० पेनी वजनांत विभाग केले आनी रौप्य पेनीचें वजन ट्रॉय पौंडाचो ४८० वो भाग म्हळयार १२ ग्रेन थारावपांत आयलो. तिसरो एडवर्ड हाणें प्रस्थापित केल्ल्या ६,९१२ ग्रेनांच्या पौंडा जाग्यार ७,००० ग्रेन असो प्रमाण पौंड पयले एलिझाबेथ राणयेन १५८८ त प्रस्थापीत केलो.

**एलिझाबेथ राणयेचीं मानकां (१५५८ - १६०३):** एलिझाबेथ राणयेच्या काळांत इंग्लीश वजनांक खरेपणान स्थीरताय आयली. तांची १५८८ तली ॲव्हर द पॉइझ आनी ट्रॉय वजनांची तिसरी आनी निमणी श्रेणी १८२४ मेरेन मुखेल मानकां आशिल्लीं. वेळार हंड्रेडवेट (सीडब्ल्यूटी) आनी टन हीं वजनांय ११२ पौंड आनी हंड्रेडवेट (वा २२४० पौंड) अशीं अनुमानां प्रमाणभूत थारावपांत आयलीं. इंग्लीश वजनांक लॉंग (दीर्घ) वा ग्रॉस हंड्रेडवेट आनी टन अशे म्हणूंक लागले. एलिझाबेथ राणयेच्या काळांत ॲव्हर द पॉइझ वजनां १ पौंड = १६ औंस = ७,००० ग्रेन ह्या प्रमाणाचेर आदारिल्लीं आशिल्लीं.

**ब्रिटीश इंपिरियल मानकां :** लॉर्ड कॅरिसफॉर्ट हाचे अध्यक्षतेखाल संसदीय समितीन १७५८ - ६० ह्या वर्सा तयार करून घेतिल्लीं मानकां १८२४ त कायदेशीर करपांत आयलीं. १८२४ पसून सगळीं ब्रिटीश मानकां इंपिरियल मानकां म्हूण वळखूंक लागले. ५,७६० ट्रॉय ग्रेनाचो ट्रोय पौंड हो मुखेल पौंडजालो आनी ॲव्हर द

पॉइझ पौंड १६ औंसांचो आनी ७,००० ट्रॉय ग्रेनांचो थारायलो. इ.स. १८४३ त मुखेल पौंड मानक ७,००० ग्रेनांचो ॲव्हर द पॉइझ पौंड थारायलो आनी ट्रॉय पौंड ५,७६० ॲव्हर द पॉइझ ग्रेनांचो करपांत आयलो. १९१३ त ३¹/₂ ग्रेनांचो (ट्रॉय औंसाचो १५० वो भाग) इंग्लीश वा हिऱ्याचो कॅरेट सादारण उपेगांत उरलो. वखदाच्या पुरवठ्याखातीर ॲव्हर द पॉइझ पौंड, औंस आनी ग्रेन सर्वसामान्य वापरांत आयले. तेउपरांत १९६३ तल्या अधिनेमाप्रमाण सगळीं इंग्लीश वजनां आनी मापां हांचे मेट्रिक पद्दतींतल्या वजनांत आनी मापांत परत व्याख्या करपांत आयल्यो आनी तेउपरांत दोन वर्सांनी राश्ट्रीय पावंड्यार हो बदल वेव्हारांत येवपाक सुरवात जाली. वेपाराखातीर इंपिरियल मानक पौंड आनी विज्ञान तशेंच तंत्रविद्या हातूंत आंतरराश्ट्रीय पौंड (= ०.४५३५९२३२ आंतरराश्ट्रीय किग्रॅ.) मूलभूत थारावपांत आयले.

**अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतल्यो वजन पद्दती :** जार्ज वॉशिंग्टन हाणें १७९० त चलन, वजनां आनी मापां हातुंतले एकविधतेचे गरजेकडे काँग्रेसीचें लक्ष व्हेलें. पूण उद्येग आनी वेपारांत इंग्लीश वजनांच प्रचारांत आशिल्लीं. ह्याच काळांत फ्रांसांत मॅट्रिक पद्दत वेव्हारांत येताली. पूण अमेरिकेन इंग्लीश पद्दतीकडेनूच जुळोवन घेवपाचो यत्न केल्लो. एकुणिसाव्या शतमानाच्या मध्यासावन जशीं जशीं नवीं राज्यां संघांत आस्पावलीं, तशे तशे तांकां मानकाचे संच दिवपांत आयले. त्या शतमानाच्या निमाण्या काळांत मानक वजनां आनी मापाच्या कार्यालयाचें कार्यक्षेत्र वाडयलें आनी १९०१ त सत्तेर आयिल्ल्या काँग्रेस अधिनियमान ताचें नॅशनल ब्यूरो ऑफ स्टँडर्ड्सांत रुपांतर जालें. ह्या ब्यूरोकडे भौतिक मानकां तयार करपाचें आनी मानक पद्दती प्रस्थापित करपाखातीर मादार दिवपाचें, तशेंच त्या विशयांतल्या संशोधनाचो वावर सोंपयल्लो. ह्या ब्यूरोवरवीं सगळया राज्यांचीं वजनां आनी मापां हांच्या विधिविधानांत वास्तव आनी एकविधता आयली.

**भारतीय वजनां आनी मापां :** वैदिक ग्रंथांत पुर्विल्ल्या काळांतल्या वजन पद्दतीची कांय प्रमाणांत म्हायती मेळटा. वसिष्ठ धर्मसुत्रांत वजनां हीं गरजेची वस्तू आसून राजान तांच्यांत अचूकपण दवरूंक जाय अशें वर्णन आसा. मनु, याज्ञवल्क्य, वसिष्ठ, कौटिल्य तशेंच आपस्तंब धर्मसुत्रांत वजनां आनी मापां हातूंत फटिंगपणा केल्यार तो गुन्यांव थारावन तातूंत प्रामाणीकपण दवरप गरजेचें सांगलां. मनुस्मृतींत रती या तांबडी गुंज हे बीयेचो, वजनाचो मूलभूत एकक म्हूण उल्लेख आसा. गुंजेचें सरासरी वजन १.७५ टॉय ग्रेन वा ११३.४ मिग्रॅ. थरता. मनुस्मृती आनी याज्ञवल्क्यस्मृति हातूंत भांगर, रुपें आनी तांबें ह्या धंद्यांत वापरपांत येवपी गुंज आनी ताचेर आदारीत वजनाचें कोश्टक अशें : रुप्याखातीर (त्रसरेणू = १ लिक्शा; ३ लिक्शा =१ राजसर्षप; ३ राजसर्षप = १ गौरसर्षप; ६ गौरसर्षप = १ यव; ३ यव = १ कृष्णल वा रक्तिका (गुंज); २ कृष्णल वा रक्तिका = १ माष (उडीद); १६ माष = १ धरण वा पूरण; १० धरण = १ शतमान. धान्यां, वखदां, मोलादीक खडे हांचीं वजनां वेगळे पद्दतीचीं आशिल्लीं. भांगर आनी तांब्या खातीर ५ कृष्णल वा रक्तिका = १ माष; १६ माष = १ कर्ष, अक्ष, तोलक वा भांगर; ४ सुवर्ण = १ पल वा निष्क; १० पल = १ धरण (भांगराचें).

मोहें जो दडो आनी हडप्पा हांगाच्या उत्खननांत इ.स. आदीं तिसऱ्या शतमानांत वापरांत आशिल्लीं वेगवेगळे तरेचीं वजनां मेळ्ळयांत. प्रमाणतेचे बाबतींत सिंधु संस्कृतींतलीं वजनां उल्लेख करपासारकीं आसात. हीं वजनां चर्ट, चुन्याफातर, पट्टिताश्म, पाटयेचो फातर, कॅल्सेडोनी, धवो सुभाजा ह्या सारक्या वेगवेगळया प्रकारच्या फातरांपसून तयार केल्लीं आशिल्लीं. तांच्या आकारांत तांच्या वजनमुल्यां प्रमाण आनी उपेगाप्रमाण फरक आशिल्ले. मोहें जो दडो हांगाच्या उत्खननांत मेळिल्लीं वजनां १, २, ४, ८, १६, ३२, ६४, १६०, २००, ३२०, ६४०, १६००, ३२००, ६४००, ८०००, १२८००० ह्या गुणोत्तरांत आसात. हातुंतलें सगळयांत व्हड वजन १०,७७० ग्रॅ. चें आसा. हांगा तागड्यो मात चड प्रमाणांत मेळूंक नात.

पुर्विल्ली भारतीय वजन पद्दत दोन वा चार आंकड्यांचे पटीन वाडपी ल्हान - व्हड विभागांचेर आदारिल्ली आशिल्ली. उपरांत इ.स. आदीं १२०० ह्या काळांत आर्य आनी हिंदू लोकांवरवीं ८० आनी १०० ह्या संख्यांचेर आदारिल्ल्यो वजन पद्दती आयल्यो. तांणी धरण (५०० ट्रॉय ग्रेन, ३२.४ ग्रॅ.) आनी होन (६,७५० ट्रॉय ग्रेन; ४३७.४ ग्रे.) हांचो वजनां म्हूण भारतांत प्रसार केलो. तेउपरांत इ.स. आदीं ६०० च्या काळांत तुराणी लोक उत्तरेकडल्यान भारतांत आयले आनी तांणी होना जाग्यार ६,९१८ ट्रॉय ग्रेनं (४४७.९ ग्रॅ.) वजनाचो होन प्रचारांत हाडलो. इ.स. आदीं ३०० च्या काळांत ग्रीकांनी अस्तंत भारतांत ॲटिक वजनांचो प्रसार केलो.

कौटिलीय अर्थशास्त्रांतल्या एकुणिसाव्या अध्यायांत वजनां आनी मापां हांच्या प्रमाणाविशीं म्हायती मेळटा. तातूंत वजनांचें कोश्टक अशें आसा : १० माष वा ५ गुंजो = १ माषक; १६ माषक = १ सुवर्ण वा कर्ष; ४ कर्ष = १ पल; ८८ गौरसर्षप = १ चांदीचें माषक; १६ रुप्याचें माषक वा २० शैब्य दाणे (एके तरेचें कडधान्य) = १ धरण; २० तंडुल (तांदळाचे दाणे) = १ धरण (हिऱ्याचो); २० तुला = १ भार; १० धरण = १ पल; १०० पल = १ आयमानी १/२, १, २, ४, (माषकांची आनी १, २, ४, ८, १०, २०, ३०, ४०, १०० सुवर्णांचीं तशेंच धरणांचीं वजनां तयार करचीं.

इ.स. आदीं १० च्या काळांत उत्तर भारतांत ग्रीकांनी रोमन पौंड हें वजन हाडलें. इ.स. आठव्या - धाव्या शतमानांत दक्षिण भारतांत राष्ट्रकूट वंशाच्या काळांत प्रचलित आशिल्ल्या वजनांत कलम (३२.६६ किग्रॅ.) हें वजन तंजावर आनी दक्षिण अर्काट भागांत विसाव्या शतमानांत चालू आशिल्लें. बाराव्या शतमानांत मुसलमान आनी पठाण लोकांनी भारतांत रत्तल (= ७,००० ट्रॉय ग्रेन; ४७८ ग्रॅ.)

हें वजन प्रचारांत हाडलें.

सुमार २५०० वर्सां आदीं भारतांत वापरपांत येवपी 'पूरण' हें वजन णवव्या शतमानांत पंजाब आनी उत्तर भारतांतल्या हिंदू राजांचे कारकिर्दींत वापरांत आयलें. ११९१ त मुसलमान राजकर्त्यांनी हें वजन आपणायलें. हें वजन 'टंक' ह्या नांवाखाल १४८८ मेरेन आनी उपरांत वराह ह्या नांवाखाल कांय काळ प्रचारांत आशिल्लें. वेदकाळांत आर्यांनी शतरक्तिका हें १०० रती एदद्या आशिल्ल्या वजनाची सुरवात केली. मुसलमान राज्यकर्त्यांनी हें वजन आपणायलें. पंदराव्या शतमानांत शेरशाह आनी अकबर ह्या राजांनी तोळो, शेर, मण हीं वजनां वापरांत हाडलीं. वेगवेगळया संख्येच्या तांब्याच्या नाण्यांच्या वजनांवयल्यान शेराचें वजन थारायताले. ह्या तांब्याच्या नाण्यांक दाम म्हण्टाले. अकबराच्या शेराचें वजन ३० दाम, जहांगिराच्या काळांत ३६ दाम जाल्यार शहाजहान हाच्या काळांत ४० दाम आशिल्लें. मराठेशाहींत शेर, मण हीं वजनांचीं एककां प्रचलित आशिल्लीं. पूण तांचीं मुल्यां वेगवेगळेकडेन वेगवेगळीं आसतालीं. तशेंच त्या काळांत लांबाय मेजपाक हाताच्या कोपरासावन मदल्या बोटाच्या तोंकामेरेनची लांबाय क्युबिट हें अंतर एकक म्हूण वापरताले. वेरूळ हांगाच्या लेण्याच्या अभ्यासावयल्यान ह्या एककाची लांबाय १८ इंच (४५७.२ मिमी.) आसुंये ह्या एककाक त्या काळांत हस्त ह्या नांवान वळखताले. ह्या हस्ताचो ल्हान भाग म्हळयार आंगूळ आनी एका हस्ताचीं २४ आंगळां मानताले.

ब्रिटीश काळांत भारतांत वजनांत आनी मापांत एकवाक्यता हाडपाखातीर १८६७ सावन यत्न करपाक लागले आनी तेप्रमाण केंद्रीय आनी प्रांतीय स्थरांचेर अधिनेम केले. पूण तांची फाव ती अंमलबजावणी जावंक नाशिल्ल्यान टन, पौंड आनी औंस हीं ब्रिटीश वजनां प्रचारांत आयलीं आनी मण, शेर, छटाक तशेंच तोळो ह्या वजनांक मान्यताय दिवपांत आयली. वेगवेगळया वाठारांतल्या शेरांतली तोळयांची संख्या वेगवेगळी आशिल्ली. देखीक : सुरतेचो शेर ३७ तोळयांचो. (मुंबयचो २८ तोळयांचो आनी बेळगांवचो २० तोळयांचो). मुंबय सरकारान १९३२ त वजन मापांत एक सुत्रीपणा हाडपाचे नदरेन केल्ल्या अधिनेमाप्रमाण मुंबय तोळो = १८० ग्रेन, मुंबय शेर = ८० तोळे, मुंबय मण = ४० शेर अशें निश्चीत केलें. तेचवांगडा भांगर आनी रुप्याखातीर १ तोळो = १८० ग्रेन, एक वाल = १/४० तोळो = ४.५ ग्रेन, १ रती = १/६२ तोळो हीं वजनां थारावपांत आयलीं. तेभायर ॲव्हर द पॉइझ आनी ॲपॉथेकरीज वजनांय ब्रिटीश पद्दतीप्रमाण वापरांत आशिल्ली.

भारतांत १९५६ त मॅट्रिक पद्दत घेवपाखातीर संसदेन अधिनेमाक मान्यताय दिली आनी १९५८ सावन हो अधिनेम चालीक लागलो. ह्या अधिनेमा प्रमाण मॅट्रिक वजनावांगडा आदलीं वजनांय कांय काळ चालू उरलीं. पुराय तरेन मॅट्रिक पद्दत वापरांत हाडपाखातीर धा वर्सांचो काळ लागलो. धान्यांची देवाण - घेवण वजनान आनी द्रव पदार्थांची मापान करची अशें निश्चीत जालें. ह्या अधिनेमांत मीटर आनी किलोग्रॅम हांचे आद्य नमुने इंटरनॅशनल ब्यूरो ऑफ वेट्स अँड मेझर्सकडल्यान विकते घेवन भारतांतल्या नॅशनल फिजिकल लॅबोरेटरीकडे अभिरक्षा आनी देखभाल हांचे खातीर दिवपाविशीं आनी राज्य सरकाराखातीर राष्ट्रीय मुखेल मानकांकडे अधिप्रमाणित आशिल्ले संच तयार करपाखातीर तरतुदी करपांत आयल्यो. हे खातीर इंटरनॅशनल ऑर्गनायझेशन ऑफ लिगल मॅट्रॉलोजी ह्या आंतरराष्ट्रीय संघटनेचो १९५६ त भारत वांगडी जालो. भारतीय मानक संस्था वजनां आनी मापां हांच्या विनिर्देशांत येवपी अडचणींचेर सल्लो दिवपी तंत्रिक संस्था म्हूण कार्य करता. प्रत्यक्ष वेव्हारांत वापरपाचीं वजनां, मापां पळोवन तांचेर शिक्के मारपाविशीं आनी तेखातीर नियंत्रकापसून निरिक्षकामेरेन अधिकारी नेमपाविशीं अधिनेमांत तरतुदी आसात. वजनां, मापां तपासणेखातीर दाखल करपाविशींचे आदेश दिवप, तेखातीर गरजेच्या थळार प्रवेश करप आनी तीं ताब्यांत घेवप आदी अधिकार निरिक्षकाक आसात. वजनां, मापांच्या आनी उपकरणांच्या उत्पादकांक दुरुस्ती करप्यांक आनी वेपाऱ्यांक सरकारी परवानो घेवंचो पडटा. प्रमाण वजनां, मापां हेरांचो वापर करपाक बंदी आसा. वेपारी आदिनी तशेंच अधिकाऱ्यांनी नेमांचो भंग केल्यार ते शिक्षेक पात्र थारतात. मॅट्रिक पद्दत ही दशमान पद्दत आसा. म्हळयार तिच्यांतली सगळीं ल्हान व्हड एककां मूलभूत एककाच्या १० च्या वा १० च्या पुर्ण घाताच्या (जशे १०० = $१०^२$, १००० = $१०^३$, १/१०० = $१०^{-२}$) पटीन आशिल्ल्यान गणित कृत्यां करपाक सोपें जाता हो हे पद्दतीचो खाशेलो फायदो आसा. ह्यो पटी मूळ एककाक कांय उपसर्ग लावन उक्तावपाक येतात. ते उपसर्ग अशे - मॅट्रिक पद्दतींतले उपसर्ग :

| | |
|---|---|
| डेका = १० | डेसी = $१०^{-१}$ |
| हेक्टो = $१०^२$ | सेंटी = $१०^{-२}$ |
| किलो = $१०^३$ | मिली = $१०^{-३}$ |
| मेगॅ = $१०^६$ | मायक्रो = $१०^{-६}$ |
| गिगॅ = $१०^९$ | नॅनो वा मिलीमायक्रो = $१०^{-९}$ |
| टेरा = $१०^{१२}$ | पायको = $१०^{-१२}$ |
| पेटा = $१०^{१५}$ | फेम्टो = $१०^{-१५}$ |
| एक्झा = $१०^{१८}$ | ॲट्टो = $१०^{-१८}$ |

हे पद्दतीचो दुसरो फायदो म्हळयार तीं सगळया राष्ट्रांनी मान्य केल्ली आशिल्ल्यान तिच्यांत उक्ती केल्लीं राशीमुल्यां सगळयांत सहज समजतात. हे पद्दतीचो तिसरो फायदो म्हळयार ती सुसंगत आसा. म्हळयार दोन (वा चड) राशींच्या गुणाकारान वा भागाकारान मेळपी नवी रास आपशीच तिच्या फाव त्या मॅट्रिक एककांच्या स्वरुपांत मेळटा.

भारतांत मॅट्रिक पद्दतीचो प्रसार खुबच उण्या प्रमाणांत जालो. १९७६ त प्रमाणभूत वजनां आनी मापां अधिनेम संसदेत संमत करपांत आयलो. तातूंत १९५६ उपरांतच्या विज्ञानीक प्रगतीचो विचार करून आंतरराश्ट्रीय एकक पद्दतीक प्राध्यान दिवपांत आयलें. तापमान, दाब आनी गुरुत्वीय प्रवेग हाचे परिणाम तापमानाच्या उण्याचड बदलाक लागून पदार्थांची लांबाय क्षेत्रफळ आनी धनफळ हातूंत उणो चड फरक पडटा. मानकाच्या तापमानापरस वेगळया तापमानांत ताचो उपेग करतना ताचो प्रसरण गुणांक दिवचो पडटा. मानकां तयार करतनां वापरांत आयिल्लीं प्रमाणित तापमानां गरजेप्रमाण वेगवेगळीं आसतात. 0° से हें तापमान जायत्या वेळा प्रमाणित तापमान म्हूण वापरतात. मॅट्रिक पद्दतीतलें मीटर हें मानक आद्य मानक तयार करतना वा ते पद्दतीचीं दुसरीं मानकां तयार करतना २०° से. हें तापमान वापरिल्लें आसता. आंतरराश्ट्रीय वजनां आनी मापां तयार करतना २०° से. हेंच तापमान धरतात. जेन्ना घनता आनी घनफळ हाच्या मापनाच्या प्रसंगार ४० से. (उदकाचे महत्तम घनतेचें तापमान) हें तापमान धरील्लें आसता.

लांबायेच्या मानकाचेर वातावरणीय दाबांतल्या फरकाचो कांयच परिणाम जायना. दाबांतलो फरक (पाऱ्याच्या उंचायेच्या भाशेंत) ८० मिमी. जाल्लो आसल्यार आद्य मीटरांत दशलक्षांश मिमी. इतलो सूक्ष्म फरक जाल्लो मेळ्ळा. पूण वस्तुमानांची तुळा करतना वातावरणीय दाबांतलो फरक तशेंच तापमानांतले आनी आर्द्रतेतले फरक हांचो बरोच परिणाम जाता.

वजनां आनी मापां निश्चीत करपाचें काम प्रमाणीत वातावरणीय दाब ७६० मिमी. (पाऱ्याची उचाय, तशेंच पाऱ्याची जनताय १३.५९५१ ग्रॅ./ सेंमी), तापमान 0° से. आनी गुरुत्वीय प्रवेग ९८०. ६६५ सेंमी. /सेकंद अशा वेगवेगळया अटींप्रमाण करपांत येता.

प्रमाणित वजनाच्या नमुन्याची तुळा करपाखातीर सामके अचूक आनी संवदेनक्षम अशा समभुजा आसपी दांडी आनी पारडी सुरी धारेचेर लोंबती आशिल्ल्या तागड्यांनी करूंक येता. अशा तागड्यांनी प्रमाणित किलोग्राम अशा वजनातल्या $10^{-7}$ किग्रॅ. इतलो सूक्ष्म फरकय मेजूंक मेळटा. प्रमाणित वजनां ज्या मुखेल प्रमाणित वजनापसून तयार केंल्यांत तांचे तुळे खातीर वयली तागडी चड संवेदनक्षम करून वजन करपाचे अचूक पद्दतीचो अवलंब करचो पडटा. अशे तरेचे तयार केल्ले तागडेन निर्वत अवस्थेंत दांडयेचे विचलन प्रकाशकिरणाच्या आदारान मेजपाची पद्दत वापरून आनी वजन करपाखातीर करपाक लागपी सगळयो क्रिया तागडेसावन बऱ्याच अंतरावयल्यान करून १ दशकोट्यांश ($10^{-9}$) फरकय मेजूंक मेळटा.

प्रमाणित वजनाच्यो धातू, आकार, सफाई आदी बाबी एकसारक्यो आसल्यो तरी तातूंत फरक मेळ्ळयात. प्लॅटिनम वा हेर धातूपसून फाव ती जतनाय घेवन तयार केल्ल्या प्रमाणित वजनातय भायले वटेन सवकसायेन रासायनिक आनी प्राकृतिक बदल जातात.

आंतरराश्ट्रीय मूलभूत 'किलोग्रॅम' मानकां तयार करपांत आयिल्ल्या वेगवेगळया राश्ट्रांतले किलोग्रॅमचे नमुने प्लॅटिनम (९०%), इरिडियम (१०%) मिश्रधातुचे तयार केल्ले आशिल्ल्यान जायतीं वर्सां तातूंत दोन कोट्यांशापरस चड बदल जाल्लो मेळूना. हेर धातू अशे तिगनात, तातूंत काळाप्रमाण बदल जायत आसता. वजनांचीं मुल्यां जशीं जशीं ल्हान आसतात त्या त्या प्रमाणांत पृश्ठभागाचें क्षेत्रफळ आनी तातुंतलें वस्तुमान हांचे गुणोत्तर वाडत राविल्ल्यान ताचो तिगपाचें प्रमाण ल्हव ल्हव उणें जायत रावता. सादारण मानकाखातीर २५% क्रोमियम आनी २०% निकेल आशिल्लें. पुरायतरेन ऑस्टेनाइटी अगंज तिखें घट आसता तें कळमेना तशेंच तें उच्च अचुंबकीय आसा. ८०% निकेल आनी २०% क्रोमियम आशिल्लें अचुंबकीय मिश्रधातू ह्या कामांत यशस्वीपणान वापरपांत येता. भारतांत सादारण वेव्हारांत तागडेवांगडा वापरपाचीं वजनां बीडाचीं आनी पितुळचीं (उण्या मोलाचें) केल्लीं आसतात. हीं वजनां नियमीत काळाउपरांत शासकीय अधिकाऱ्या कडल्यान तपासून घेवचीं पडटात.

**लांबाय क्षेत्रफळ आनी घनफळ हांचीं एककां :** दर एका शास्त्रांत मापनाक खूब म्हत्व आसा. लांबाय क्षेत्रफळ आनी घनफळ हांचें मापन खूब पुर्विल्ल्या काळासावन वेगवेगळया पद्दतीन करताले. अशें पुरातत्त्वीय उत्खननां, शिलालेख आनी ताम्रपट ह्या इतिहासीक पुराव्यांवयल्यान म्हायती मेळटा. ताचेवयल्यान लांबायेच्या मापनाची गरज सगळयांत पयलीं निर्माण जाली अशें दिसता. जेन्ना मनशान घराचे बांदावळीक आनी जमनीची विभागणी करूंक सुरवात केली, तेन्ना लांबायेचे मेजणेक म्हत्व आयलें. हे खातीर मानक थारावपाखातीर मनशाचें लक्ष सैमांतले घडामोडीकडे आनी आपल्या देहाकडे गेलें. सुरवेक दोन गांवांतलें अंतर कितलें आसा हें सांगपाखातीर दीस हें प्रमाण धरपाची चाल आशिल्ली. एक गांव दुसऱ्या गांवापसून एका दिसाच्या अंतराचेर आसा म्हळयार जर रातदीस प्रवास केलो जाल्यार एका उदेंतासावन दुसऱ्या उदेंता मेरेन चलत गेल्यार तो गांव येतलो. अर्थांत मनशाच्या चलपाचे गतीचेरय अवलंबून आसता. हें फकत लांब अंतर मेजपाक उपेगी पडटालें. पूण उण्या अंतराखातीर हें मानक उपेगी पडनाशिल्लें. देखून कच्च्या स्वरुपांतल्या ल्हान मानकांखातीर मनशान स्वताच्या पायाची लांबाय, पसरिल्ल्या तळहाताची रुंदाय, कोपरासावन फुडल्या हाताची मदल्या बोटाच्या तोंकामेरेन लांबाय, आंगठो आनी करंगळीचें तोंक हातुंतलें अंतर आदी वेगवेगळया लांबायेचीं मानकां निश्चीत केलीं. दोन पावलांतलें म्हळयार दांगेतल्या अंतरावयल्यान शेताची लांबाय - रुंदाय मेजताले. स्टेडिऑन हें लांबायेचें पुर्विल्लें ग्रीक एकक शर्यतींत धावपी गड्यान एका दमात सारक्या वेगान धाविल्लें अंतर हाचेर आदारिल्लें आशिल्लें. फुडें जशी

जशी समाजीक परिस्थती बदलत गेली आनी वैज्ञानीक उदरगत जायत गेली तशी तशी मानकांची एक खाशेली पद्दत उदयाक आयली. हे पद्दतींत दोन प्रकार संभवतात. एका प्रकारांत मूलभूत मानकाची निवड मानवान आपरखोशयेन करप वा एकाद्री लांबाय सोंपी म्हूण वेचपाची आनी तिचें ल्हान व्हड भाग करून ताचेवयल्यान एकक निश्चीत करपाचें. दुसरो प्रकार म्हळ्यार सैमांत उपलब्ध आशिल्लें एकाद्रें परिमाण घेवन ताचे भाग करून मापन पद्दतीचीं मानकां काडपाचीं. दुसऱ्या प्रकारच्या मापन पद्धतीचें उदाहरण अशें -

आंगळ = १ भाग
हाताच्या तळव्याची रुंदाय = ४ भाग
हाताच्या आगठ्यांचें तोंक आनी करंगळीचें तोंक हांचेमदलें अंतर (वेंत) = १२ भाग
पायाची लांबाय (फूट) = १६ भाग
हात (क्युबीट) = २४ भाग
एक पावल (दांग) = ४० भाग
दोन पावलां = ८० भाग
लांब एके रांगेत पातळिल्ल्या दोनय भुजांची एकूण लांबाय = ९६ भाग

ह्यूएनत्संग (इ.स. ६०२ - ६६४) ह्या नामनेच्या चिनी भोवंडेकारान बरयल्ल्या एका ग्रंथांत त्या काळांत भारतांत प्रचलित आशिल्ल्या अंतर मेजपाचें योजन ह्या एककाबद्दल म्हायती मेळटा. सैन्यान एका दिसांत चलिल्ल्या अंतराक योजन अशी संज्ञा त्या काळांत वापरताले.

१ योजन = ८ क्रोश (कोस)
१ क्रोश = ५०० बाण
१ बाण = ४ हात
१ हात = २४ आंगळां
१ आंगुळ = जवाच्या सात दाण्याची लांबाय

भारतांतलीं मॅट्रिक पद्दतीचीं वजनां प्रचारांत येवचे आदीं वेगवेगळ्या राज्यांत वेगवेगळीं एककां व्यवहारांत आशिल्लीं. तातुंतल्या कांय राज्यांतल्या मापनांचीं एककां अशीं -

**लांबायेचीं एककां** : यव (पोटाक पोट लावन) = १ आंगळ
२ आंगळां = १ तसू
१२ तसू = १ हात
४ हात = १ दंड
२ कोस = १ गव्यूती
४ आंगळां = १ मूठ
२ विती = १ हात

**वस्त्र मेजपाचीं एककां :**
२ आंगळां = १ तसू    १२ तसू = १ हात
२ हात = १ गज    २४ तसू = १ गज
२६ तसू वा १६ गिरे = १ वार

**जमनीची लांबाय वा रुंदाय मेजपाचीं एककां :**
१२ तसू = १ हात    ५ ५/६ हात = १ बडी
वा १४ तसू = १ हात    ५ हात = १ बडी
८००० हात = १ कोस

**क्षेत्रमापनाचीं एककां :**
४ चौरस आंगळां = १चौ. तसू    ३६ चौ. तसू = १ चौ. वीत
४ चौ. विती = १चौ. हात    ४ चौ. हात = १चौ. गज
३४ १/३६ चौ. हात
वा ८ ७३/१४४ चौ. गज = १ चौ. बडी    २० चौ. बडयो = १ पांड
२० पांड = १ बिघा    १२० बिघो = १ चाहूर
१०० बिघे (जुने) = ८५ १/१० एकर    १६ चौ. आणे = १ गुंठा
४० गुंठे = एकर

**घनफळमापनाचीं एककां :**
८ घन आंगळां = १ घन तसू    २१६ घनतसू = १ घनवीत
८ घनविती वा
२७ घन मुठी = १ घन हात    ८ घन हात = १ घन गज

**धान्यादी पदार्थ मेजपाचीं एककां :**
२ कोळवी (अर्दपाव) = १ चिपटे (पावशेर)    २ चिपटी = १ मापटे (अच्छेर) वा निठवे
१ मापटी = १ शेर    २ शेर = १ अधोली
२ अधोल्या = १ पायली    १२ पायल्यो = १ मण
२ १/२ मण वा
३० पायल्यो = १पल्लो    ८ पल्ले वा २० मण = १ खंडी

- कों. वि. सं. मं.

**वजें :** 'वजें' म्हळयार भेट. (पूण कांय जाण वज्याक हुंड्याचो एक भाग समजतात). लग्न जाल्या उपरांत आपले धुवेक सणापरबांच्या निमतान ते सणापरबेक लागपी वस्तू आनी हेर सामान वज्यांत (कोंडयाच्या वेळापसून तयार केल्लो मोटया आकाराचो पाटलो) घालून दिवपाची पद्दत गोंयांत दिसून येता. वस्तू वज्यांत घालून मानायाकडल्यान धुवेल्या घराकडेन धाडटात म्हणून 'वजें' अशें म्हण्टात. पयलींच्या काळांत जांवयाच्या वजनाइतलें जड वजें धाडटाले अशेंय म्हण्टात. आवय बापूय आसा म्हणसर दर सणापरबेक हें वजें धाडपाची पद्धत आयजूय रूढ आसा. (कांय कडेन पयल्याच वर्सा वजीं धाडटात, तर कांय कडेन पांच वर्सांमिरेन वजीं धाडटात).

दिल्ल्या घरा चलयेक सुख मेळचें, सणापरबेक तिका कांयच कमी पडचें न्हय, ती आनी जांवय तशेंच जांवयाघरचीं सगळीं मनशां खोशी जावंचीं, सणापरबेक तांच्या आनंदांत भर घालची, धुवेक आपल्या घरची याद येवंची न्हय अशा सगळ्या कारणांक लागून हें

वजें धाडप सुरू जालें आसुंयें.

वज्याची रीत कशी सुरू जाली त्यासंबंदान गोंयच्या भौजनसमां- जांत लोकांकाणी प्रचलीत आसा. ती अशी - एका घरांतली अपुरबायेची धूव लग्न करून दिली. त्या वर्सा सणापरबे दिसा सगळीं घरचीं पंगतीक बसलीं, त्या वेळार बापायक धुवेची याद आयली. जी चली इतलीं वर्सां आपल्या घरा आशिल्ली ती दुसऱ्याच्या घरा सण कसो मनयता आसतली हो विचार ताच्या मनांत आयलो आनी तो तसोच जें कितें केल्लें तें घेवन धुवेघरा गेलो आनी धुवेक तो वस्तू दिल्यो. तेन्नाच्यान दर सणापरबेक हीं वजीं धाडटात. वज्यांतल्यो कांय वस्तू परतून धाडटात, तशींच घोवा घरा कडलीं वजे घेवन आयिल्ल्या मानायाक खर्चा पुरते पैशे दितात कुळारासावन आयिल्ल्यो वस्तू वाड्यार वांटपाचीय पद्दत आसा. वज्याचे कांय प्रकार अशे - १) आषाढवजें - जातूंत एकादशीच्या उपासाचे पदार्थ, केळीच्या पानांचो वेढो आनी फळफळावळ, तेचप्रमाण जांवयाक सत्री, जोतें बी धाडटात. २) चवथीचें वजें - हें मुखेल अशें व्हडलें वजें मानतात. हातूंत पूजेचें सामान, माटोळेचें सामान, कडधान्यां, तशेंच व्हडल्यो नेवऱ्यो आनी हेर खाणांचें सामान, फोग आदी धाडटात. ३) दिवाळेचें वजें - हें दिवाळे वेळार धाडटात. हातूंत फोव धरून खाणांचे पांच जिन्नस, जोडवीं बी धाडटात. तेभायर कांय समाजांत सुतापुनवेचें वजें आनी शिमग्यापुनवेचेंय वजें धाडटात.

ह्या वज्या प्रमाण कुळां, भाटकारांक सणापरबांच्या निमतान 'वजीं' भेटयतात. जातूंत कुळागरां, शेतां - भाटांनी जाल्ले जिन्नस घालून ते भाटकाराच्या वा हेर मुखेल्यांच्या घराकडेन वतात. हें वजें आपणायल्या उपरांत वजें घेवन येवपी कुळाव्याक प्रवास खर्चाक पैशे आनी हेर सामान दितात.

गोंयांत ''तुमी आमगेर वोजीं धाडात, मागीर आमी तुमगेर जेवपाक येतात'' अशें म्हणपाची चाल आसा, ती म्हणणी ह्या वज्यांवयल्यानूच आयल्या जावंये. किरिस्तांव - मुसलमानां मदींय गोंयांत अशीच मात्शी वेगळ्या प्रकारची रीत दिसून येता. पूण तीं 'वजें' अशें म्हणिनात तर तिका 'भेट' म्हण्टात.

- रवींद्र र. म्हाड्डोळकार

**वज्र - (१) :** एक पुर्विल्लें शस्त्र. इंद्राचें एक प्रभावशाली आयुध म्हूण ह्या शस्त्राची नामना आसा. विश्वकर्म्यान दधीची ऋषीच्या अस्थींसावन हें वज्र निर्माण केलें आनी इंद्रान ताच्या प्रहारान वृत्रासुराक जिवेशीं मारलो, अशी कथा पुराणांत आसा. इंद्राचें वज्र हें लोखणाचें आसून ताका सहस्त्र धारो आशिल्ल्यो आनी शंबर अग्रां आशिल्लीं. हें एक धवें आनी तेजिश्ट अशें आयुध आसा. इतलें तें प्रखर आनी भयंकर आशिल्लें, जेन्ना इंद्रान ताचो वृत्रासुराचेर प्रयोग केल्लो तेन्ना ताच्या कडकडाटान धर्तरी भंयान थरथरूंक लागली (ऋ. २.११.९). ह्या शस्त्रांत पर्वत फोडपाचें बळगें आशिल्लें अशेंय ताचें वर्णन केल्लें आसा.

अथर्ववेदांत त्रिषंधी नांवाच्या वज्राचो उल्लेख आसा. ह्या शस्त्रांक तीन सांधे आशिल्ल्यान ताका त्रिषंधी हें नांव मेळ्ळें. तें पितुळचें आशिल्लें. मूर्तीकलेंत जायत्या देवांच्या हातांत हें आयुध दिसता. तीन अग्रां आशिल्ले दोन भाग जोडून हें आयुध तयार केलां. बौध्द तंत्रशास्त्रांत वज्र हें शुन्याचें प्रतीक मानलां. कारण तें अभेद आनी अविनाशी आसता. वज्रशेखर नांवाच्या ग्रंथांत अशें म्हळां की सगळया वस्तुजातींचें उगमस्थान जें शुन्य तें वज्रावरी अभेद्य आनी अविनाशी आसता. इंद्रान आपल्या वज्रान बुध्दाच्या शत्रुंचो नाश केलो आनी बुध्दाक इंद्राकडल्यान वज्र हें आयुध मेळ्ळें अशें एके बौध्द दंतकथेंत सांगलां.

जायत्या बौध्द देवांच्या हातांत वज्र आसता. वज्रधर म्हळयार आदिबुध्द हो बौध्द देवतांतलो सर्वश्रेश्ठ देव. ताच्या उजव्या हातांत वज्र आनी दाव्या हातांत घंटा आसता. वज्रपाणी म्हळयार हातांत वज्र धारण करपी आसून तो एक बोधिसत्व आसा. वज्रसत्व हो पांच ध्यानी बुध्दांचो आचार्य आसून ताच्या हातांत वज्र आनी घंटा हीं आयुधां आसात. शाक्त पंथांत पद्म हें बायलांचे योनीचें आनी वज्र हें दादल्याच्या इंद्रियाचें प्रतीक मानप जाता. एक अग्र आशिल्लें वज्र आनी दादल्याचें इंद्रिय हातूंत खुबशें सारकेंपण दिसून येता. अशा वज्राक चार वटो आसून त्यो अशीर जावन जावन निमाणें निमाणें तिक्ष्ण अग्र जाता. अशें वज्र सांची हांगाच्या शिल्पांत दिसता.

जपानांत वेगवेगळे तरेचीं वज्रां दिसून येतात. थंयच्या शिंगोन संप्रदायांत एक, तीन आनी पांच अग्रां आशिल्लें वज्र आनी स्तुपवज्र हे प्रकार प्रचलित आसात. सात, आठ आनी णव अग्रांचीं वज्रां केन्ना



वेगवेगळीं अग्रां आशिल्लीं वज्रां

केन्नाय मेळटात.

एका अग्राचें वज्र धर्मधातुची एकी दारवयता. तीन अग्रां हीं बुध्द, धर्म आनी संघ ह्या त्रिरत्नांचीं प्रतीकां आसात. अशीं दोन वज्रां एकाचेर एक अदीक चिन्नांवरी दवरल्यार कर्मवज्रां जातात. हाका विश्ववज्र अशेंय म्हण्टात. शिवाच्या हातांत विश्ववज्र आशिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. पांच अग्रांच्या वज्राचीं पांच अग्रां हीं पंचमहाभुतांचीं वा वैरोचन, रत्नसंभव, अमिताभ, अमोघसिध्दी आनी अक्षोभ्य ह्या ध्यानी बुध्दांचीं द्योतक आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**वज्र - (२) :** (पळेयात रत्न).

**वज्रेश्वरी :** एक देवता. महाराष्ट्रांतल्या ठाणे जिल्ह्याच्या भिवंडी तालुक्यांत हिचें स्थळ आसा. ह्या गांवचें मूळ नांव वडवली अशें आसून आतां ह्या गांवांक वज्रेश्वरी ह्याच नांवान वळखतात. ह्या गांवांत आशिल्ले उल्हास नांवाचे न्हंयेचे देगेर एके दोंगुल्लेचेर हें देवूळ आसा. हे देवीक वज्रेश्वरी हें नांव कशें मेळ्ळें तेविशीं कथा सांगतात ती अशी : उग्रासूर नांवाच्या एका शर असुराक सिंहमार आनी कलिकाल नांवाचे दोन हुशार पूत आशिल्ले. आपल्या शक्तीच्या बळार ते ऋषींक त्रास दिताले. ताकालागून देवाची कृपा मेळोवपाक ऋषींनी एक यज्ञ सुरू केलो. ह्या यज्ञाचो ऋत्विज वसिष्ठ ऋषी आशिल्लो. यज्ञांत इंद्र सोडून सगळया देवांक हविर्भाग मेळ्ळो. ताका लागून इंद्रान रागान वसिष्ठाचेर आपलें वज्र मारलें. तेन्ना पार्वतीन प्रकट जावन तें वज्र गिळून उडयलें, देरवून तिका वज्रेश्वरी हें नांव मेळ्ळें.

हे देवीच्या देवळाचें तोंड उदेंतेवटेन आसून ताचे भोंवतणी व्हड कोट बांदिल्लो आसा. पयलो बाजीराव पेशवा हो वज्रेश्वरीचो भक्त आशिल्लो आनी ताणेंच हिचें देवूळ बांदलें अशें सांगप जाता. पूण इतिहास पंडितांच्या मताप्रमाण हें देवूळ चिमाजीअप्पान बांदलां. कारण वसईचो किल्लो हस्तगत करपारवातीर हांगाचे देवीनच चिमाजीअप्पाक दृश्टांत दिल्लो अशें म्हण्टात. किल्लो हस्तगत जातकच देवीविशींच्या भावार्थान ताणें आपले देरवरेरवीरवाल हें देवूळ बांदलें. सभामंटपाचो भाग श्रीमंत खंडेरावमहाराज गायकवाड हाणें आनी सपणां तशेंच दीपमाळो नासिकचो सावकार नाना चांदवडकर हाणें बांदल्यो. देवळांत दोन गाभारे आसून मुरवेल गाभाऱ्यांत पांच मूर्ती आसात. तातूंत मर्दी वज्रेश्वरी, तिचे उजवे वटेन सावित्री, सरस्वती आनी दावे वटेन लक्ष्मी भार्गव आसात. दुसऱ्या गाभाऱ्यांत गणपती, वेताळ, काल भैरव आदी देव आसात.

आश्विनांत आनी चैत्र म्हयन्यांत हांगा जात्रा भरता. चैत्र उमाशेक भरपी जात्रा व्हड आसता. वज्रेश्वरी गांवाच्या वाठारांत जायतीं हून उदकांचीं कुडां आसून हें उदक आरोग्यदायक आसा. नित्यांनद स्वामीचो एक आश्रमय हांगा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वझे, दामोदर विश्वनाथ :** (जल्मः १६ सप्टेंबर १९३०, सोनारभाट, दिवचल - गोंय).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके झुजाच्या काळांत वण्टीपत्रकां लावप, पुस्तिका वाटप, सुटके झुजाऱ्यांक आदार करप, तांकां पोलिस कारवायांविशीं रवबरो पावोवप असलीं कामां तो करतालो. १२ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा अस्नोडा पोलिसठाण्याचेर हल्लो करपांत वांटो घेतला ह्या दुबावारवाल पोलिसांनी ताका अटक केलो. उपरांत बावीस म्हयने ताका बंदरवणीची रव्यास्त जाली आनी ३१ डिसेंबर १९५६ ह्या दिसा ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वझे, प्रभाकर विश्वनाथ :** (जल्म : ७ ऑगस्ट १९३२, अस्नोडा - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें इंग्लिशींतल्यान माध्यमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके झुजाच्या काळांत लोकांक सुटके झुजाचें म्हत्व पटोवन दिवप, वण्टीपत्रकां लावप, तिरंगी बावटे लावप असलीं कामां तो करतालो. ८ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा अस्नोडा पोलिस ठाण्यार हल्लो करपांत ताचो हात आशिल्लो ह्या निमतारवाल पोलिसांनी ताका अटक केलो. तशेंच कांय पत्रकां आनी तिरंगी बावटे ताचेकडल्यान जप्त केले. पोलिसांनी ताका धरून बरोच मार दिलो आनी प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुरवार उबो करून दोन वर्सां बंदरवणीची रव्यास्त दिली. बंदरवणींतल्यान सुटका जाल्या उपरांतय तो राश्ट्रीय वावरांनी वांटो घेतालो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वझे, रामकृष्णबुवा :** (जल्म : ? ऑक्टोबर १८७३, ओझरे - सावंतवाडी; मरण : ५ मे १९४५ पुणें).



महाराष्ट्रांतलो व्हड गायक. ताच्या भुरगेपणांतूच ताच्या बापायक मरण आयलें देरवून ताचे आवयन ताका ल्हनाचो व्हड केलो. ताचें भुरगेपण रवूब कश्टांत आनी हालअपेश्टांत गेलें. ताचें मुळावें शिक्षण चवथी मेरेन मराठींतल्यान

जालें.

भुरगेपणासावन ताका गावपाचो नाद आशिल्लो. देरवून कागलचो गायक बळवंतराव पोहरे हाचेकडल्यान ताणें गावपाचें मुळावें शिक्षण घेतलें. उपरांत मालवणाक वचून वर्सभर विठोबा अण्णा हडप हाचे कडल्यान तालीम घेतली. वयाच्या बाराव्या वर्सा लग्न जाल्या उपरांत गायक जावपाचे इत्सेन ताणें घर सोडलें आनी पांयानी भोंवडी करीत तो पुण्याक गेलो. थंयच्यान तो इंदूराक गेलो. थंयचो नामनेचो परववाज वादक नानासाहेब पानसेगेर तो रावलो. गायन शिकपाची रामकृष्णबुवाची जिद्द जाणून पानसेन ताका ग्वाल्हेराक वचपाक सांगलें. तो ग्वाल्हेराक आयलो आनी ग्वाल्हेर घराण्याचो सुप्रसिध्द उस्ताद निसार हुसेनरवाँकडे गायन शिकूंक लागलो. सामकी कश्टांनी आनी पोटारवातीर माधुकरी मागून ताणें गायनविद्या संपादन केली. कांय तेंप गोंयांत रावून ताणें गायन विद्येचें शिक्षण दिलें. ताच्या शिश्यांचे वळेरेंत ताचो चिरंजीव शिवरामबुवा वझे, हरिभाउ घांग्रेकर, केशवराव भोसले, मा. दीनानाथ बापूराव पेंढारकर, भालचंद्र पेंढारकर, दन्नीबाई, तानीबाई, कागलकर बुवा ह्या कलावंत मंडळीचो आस्पाव जाता.

तो गाण्याच्यो शिकवण्योय करतालो. 'बलवंत संगीत मंडळी' आनी 'ललितकलादर्श' ह्या नाट्यमंडळांत ताणें संगीत गुरू म्हूण कांय तेंप काम केलां. ताच्या 'संगीत कलाप्रकाश' (१९३८) ह्या पुस्तकांत ताच्या कांय चिजांचो आस्पाव आसून, ताचें आत्मचरित्रय थोडक्यांत दिल्लें आसा. ताचे गायकीन मराठी रंगभूंयेक संगीत दिवन नाट्य संगितांत मोलाची भर घाल्या. तो संगीतक्षेत्रांतलो गायक, विद्वान आनी बहुरंगी कलावंत आसून, 'गायनाचार्य' म्हण ताका नामना प्राप्त जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**वटवाघुळ :** (पळेयात पारवो).

**वड :** (हिंदी : बड; गुजरातीः वड; संस्कृतः वट, न्यग्रोध; कन्नड : आला; इंग्लीशः बनियन ट्री; लॅटीनः फायकस बेंगोलेन्सिस; कूळः मोरेसी). ह्या व्हड रुरवाचो आस्पाव आवृतबीज वनस्पतींच्या द्विदल वर्गांत जाता. ह्या रुरवाची उंचाय सुमार ३० मी. मेरेन आसता आनी हो रुरव सदांच पाचवो उरता. वडांत धव्या रंगाचो दीरव आसता. तातूंत काऊट चाऊल आनी रेसिन आसता. तरन्या आनी कोवळ्या भागाचेर दाट आनी मोव ल्हंव आसता. ताचें रवोड दाट आनी घट्ट आसता. रवांदयो दाट आनी जमनीक समांतर अशो वाडटात. रवांदयांर थरावीक जाग्यार पाळां फुट्टात आनी तीं जमनींत पावून रवांदयांक आदार दितात. ताकालागून वडाची वाड व्हड प्रमाणांत जाता. पानां दाट, चिवट, १० ते २० सेंमी. लांब आनी ५ ते ७.५ सेंमी. रूंद, तातयां आकाराचीं वाटकुळसार. वयलो भाग चकचकीत आनी गडद पाचवो आनी सकयले वटेन बारीक ल्हंव आशिल्लो, ठळक शिरो आशिल्लो तशेंच लेव पाचवो आसता. देठ १ ते ५ सेंमी. लांब, घट आसून उपपानां ०.५ - २.५ सेंमी. लांब आसतात. फुलांचे तुरे वाटकुळसार, कांय प्रमाणांत पोकळ पानांचे रवांचीतल्यान येवपी ल्हंवयुक्त, सुमार २ सेंमी. व्यास, तरणे अवस्थेंत पाचवे आनी पिकिल्ले अवस्थेंत तांबडेगुंज आनी नरम अशा लक्षणांनी युक्त आसतात. ह्या तुऱ्यांक कुभासनी पुश्पबंध म्हण्टात. तांचे भितल्लेवटेन ल्हान पुं-पुश्पां, स्त्री - पुश्पां आनी गुल्मपुश्पां आसतात. दर एक पुं-पुश्पांत एक पुं-केसर आसता. गुल्मपुश्पां आनी स्त्री - पुश्पां कुभासनीच्या सकयल्या भागांत आसतात. हातुंतलें परागण कीटकांवरवीं जाता. ह्या सगळ्या फुलोऱ्याचें संयुक्त फळ जाता. ताका औदुंबरीक फळ अशें म्हण्टात. मार्च ते जून ह्या काळांत हीं फळां झाडाचेर भरपूर प्रमाणांत आसतात.



**कलकत्त्याच्या रॉयल बोटनिकल गार्डनांतलो वड**

पुर्विल्ल्या काळार सावन आर्यांक ह्या रुरवाची म्हायती आशिल्ली. वेदांत ताचो न्यग्रोध असो उल्लेरव मेळटा. कारण ताच्या आडव्या रवांदयांपसून पाळां फुटून तीं जमनींत रिगतात आनी झाडाचो विस्तार जाता. रामायण, महाभारत, चरकसंहिता, बृहत्संहिता, कौटिलीय अर्थशास्त्र, रघुवंश आदी जायत्या ग्रंथांतल्यान वेगवेगळ्या संदर्भांत उल्लेरव आयिल्ले आसात. शतपथ ब्राह्मणांत वडाचे उत्पत्तीची कथा दिल्या ती अशीः कुरू क्षेत्रांत देवांनी यज्ञ केलो आनी त्यावेळार सोमचमसाचें तोंड तांणी सकयलेवटेन करून दवरलें. त्या सोमचमसाचोच उपरांत वड जालो. प्लिनी हाणें 'इंडियन फिग ट्री' असो ताचो उल्लेरव केल्लो आसा. हिंदू धर्मांत वडाक पवित्र मानतात. सवायशिणी बायलो ज्येष्ठ पुनवेक वडाची पुजा करतात. सीतेन प्रयागच्या नामनेच्या वडाची प्रार्थना केल्ल्याचो उल्लेरव रामायणांत आसा. वडाच्यो बडयो काडून होमहवनांत आनी यज्ञांत समिधा म्हूण वापरतात. बौध्द धर्माचे लोकय ह्या रुरवाक पवित्र मानतात. तांच्या सात बोधी

रुखांत वडाचो आस्पाव जाता.

हो यज्ञीय रूख आसा आनी यज्ञांत लागपी आयदनां हाच्याच लांकडापसून करतात. ब्रह्मदेव वडाच्या झाडार रावता असो समज आसा. देवचार, यक्ष आनी वेताळ हेवूय वडाचेर रावतात असो समज आसा. सौभाग्य आनी संतती मेळोवपाखातीर वडाक पार बांदून ताची मूज करची आनी ताचें दुर्वेकडे लग्न लावचें अशें विधान आसा.

हो रूख अंजिराचे जातीचो आसून हिमालयाच्या मूळसांत, द्वीपकल्पाचो अस्तंत भाग आनी दक्षिणेकडल्या दोंगुल्ल्यांच्या वाठारांत रानांनी हो मेळटा. रस्त्याचे, शेताचे कडेन, बागांनी, देवळाच्या तशेंच समाधी स्थानालागसार सावळेखातीर हो रूख लायतात. तशेंच सवण्यांचे विश्ठेवरवीं ताचो बीज प्रसार जावन गांवगिऱ्या वाठारांतल्या मेकळया जाग्यांनी पडक्यो इमारती, वण्टींमदल्यो भेगो आदी जायते कडेन तो वाडटना दिसता.

भडोचसावन लागीं आशिल्ल्या नर्मदा न्हंयेंतल्या एका जुंव्यार कबीरवड हो पुर्विल्लो वड आसा. फॉर्बझ हाणें (१७७६ - ८३) वर्णन केल्ल्याप्रमाण ताचो परिघ सुमार ६०० मी. आशिल्लो. तशेंच सुमार ३५० व्हड वायवी मुळां आनी ३,००० ल्हान वायवी मुळांच्या आदाराचेर तो उबो आशिल्लो. ताच्यासकयल ७,००० सैनिकांचो तळ पडटालो. १८१९ त ह्या रुखान सुमार देड हॅक्टर क्षेत्र व्यापिल्लें. हाचेभायर जावळी (सातारा) आनी जुन्नर (पुणे) हांगाचे वडूय खूब पुर्विल्ले आसात. मद्रास हांगाच्या अड्यार न्हंयेचे दक्षिण देगेर चौरस मीटर इतलें क्षेत्र व्यापिल्लें आसा. ताका जमनींत गेल्लीं सुमार १०० व्हड मुळां आसात. ह्या रुखाखाल सुमार ३,००० मनशांची परिशद भरिल्ली अशी नोंद मेळटा.

गयेच्या अक्षयवटाची आनी प्रयागच्या शामवटाची पुर्विल्ल्या काळासावन खूब नामना आसा. सिबपूर (कलकत्ता) हांगाच्या भारतीय उद्यानांतलो वड पळोवपासारको आसा. ताची म्हायती मेळटा, ती अशी - वडाचें बीं ताडझाडाच्या (कांय जाणांच्या मतान खाजराच्या) पानाचे खाचींत सुमार इ.स. १७८२ वर्सा पडलें आनी तें किल्लून वडाचें झाड जालें. १९०० वर्सा डी. प्रेन हाणें ह्या रुखाचें वर्णन केलां. त्यावेळार ह्या झाडाचो घेर सुमार १५ मी. आशिल्लो आनी मुळांची संख्या ४६४ आशिल्ली. सगळयांत दाट फांटे मुळाचो घेर सुमार ३.६ मी. आशिल्लो. रुखाच्या माथ्याचो परिघ सुमार ३७७ मी. आशिल्लो. १९६५ त ह्या रुखाच्या मुळांची संख्या एक हजाराचेर गेली आनी परिघ ४१६ मी. जालो. १९७६ वर्सा ह्या रुखाच्या वायवी मुळांची संख्या १५०० भरली. ताची उंचाय सुमार २९ मी. आशिल्ली. जाल्यार परिघ ४५५ मी. आशिल्लो. दोनशें वर्सांपरस चड पोरनें आशिल्ल्या ह्या रुखाचें मुळचें खोड रोगट जावन नश्ट जालें.

वडारुखाचो आस्पाव मोरेसी कुळांतल्या फायकस हे प्रजातींत करतात. फायकस हे प्रजातींत सुमार १,००० जाती आसून तातुंतल्यो ७० जाती भारतांत मेळटात. उंबर, पिंपळ, अंजीर, पिंपळी, काळो उंबर आदी रुखांचो आस्पाव हे प्रजातींत करपांत येता.

जायतीं सवणीं, पाखे (वागोळीं), चानी, माकड आदी प्राणी तीं खातात. ह्या प्राण्यांचे विश्ठेंतल्यान जायत्यो बियो जायतेकडेन शिंपडटात. ह्यो बियो किल्लून वडाचो प्रसार जाता. जायते फावट वडाचें बीं दुसऱ्या व्हड रुखाचे खांदयांचे वा पानांचें खाचींत किल्लता. सुरवेक अपिवनस्पती ह्या स्वरुपांत हें रोप वाडटा. पूण फुडें मूळां जमनींत वतात आनी रूख मूळच्या आश्रीत रुखाचेर अवलंबून उरनासतना स्वतंत्रपणान वाडटा. वडाची लागवड जून पूण ल्हान खांदयो लावन करतात.

वडाच्या मुळाचें लांकूड चिवट आनी घटमूट आसता. ताचेपसून तंबूचे खांबे, बैलगाडयांचें जूं आनी दांडे करतात. खोडाचें लांकूड करडें आनी सादारण घट आसता. ताचो उपेग सादारण किरकोळ वस्तू आनी सजावटी सामानाखातीर करतात.

वडाच्या लांकडापसून कागदाचो लगदो तयार करतात. तशेंच सालीच्या धाग्यांपसून दोर, जाल्यार उपमुळांपसून दोरी तयार करतात. दिखा पसून सामको घट गम तयार करतात, जाचो उपेग सवणीं धरपाखातीर करतात. वडाच्या पानांपसून पत्रावळी आनी दोणे तयार करतात. तरन्यो खांदयो आनी पानां गोरवांक तशेंच बोकडां - मेंढरांक खावपाक दितात.

वडाचो दीख दातदुखी, संधीवात, कटिशूल आदी व्याधींचेर दितात. तशेंच तळव्यावयल्या भेगांचेरय ताचो लेप लायतात. वडाचे सालींत ११% टॅनीन आसता. तिचो रस स्थंभक आनी पुश्टीक आसता. तशेंच आमांश आनी अतीसारांत तो उपेगी पडटा. वडाचे सालीचो काडो गोड्यामुताचेर दितात.

टॉमेटीज पर्सोनी ह्या कवकाचो संसर्ग जाल्लो वडाच्या झाडाचो भाग कुसता.

**कृष्णवड :** हो रूख खऱ्या वडापरस वेगळो आसता. ताचें शास्त्रीय नांव फा. कृष्णी अशें आसा. इंग्लिशींत ताका कृष्णाज बटरकप अशें म्हण्टात. हाचीं पानां तळाकडे दोडिल्लीं आसतात आनी तीं पेल्यावरी दिसतात. हाच्या पानांविशीं एक दंतकथा आसा ती अशी - एकदां कृष्ण गोरवांक घेवन रानांत गेलो. थंय कांय गोपी लोणी घेवन आयिल्ल्यो. तांणी कृष्णाक लोणी दिलें. कृष्णान लागसारचीं वडाचीं पानां काडून दोणे केले आनी त्या दोण्यांतल्यान लोणी सगळया गोपगोपींक वांटलें. तेन्नाच्यान त्या वडाचीं पानां दोण्यावरी जालीं. हो रूख ल्हानसोच आसून तो सोबेखातीर पोरसांत लायतात.

प्रयाग हांगाच्या अक्षयवडासकयल राम, सीता आनी लक्ष्मण हांणी आसरो घेतिल्लो अशी म्हायती मेळटा. ह्या अक्षयवडापसून तयार जाल्ल्या दुसऱ्या एका वडाची अलाहाबाद किल्ल्याच्या एका भुयारांतल्या

देवळांत अजूनय लोक पुजा करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**वडापुनव :** हिंदु समाजांतल्या बायलांचें वर्सुकें व्रत. हिंदु समाजांतल्यो सवाशिणी बायलो, आपल्या घोवाचें आयुश्य वाडचें आनी आपल्याक अखंड सवाशीणपण प्राप्त जावचें, अशी श्रध्दा मनांत बाळगून, जेश्ठ शुध्द पुनवेदिसा, उपास करून भक्तिभावान वडाच्या रुखाची पुजा करतात. तशेंच गांवच्या चार - चौगी सवाशिणींक आपल्यागेर आपोवन हाडून, तांकां हळद - कुकुम, फुलां आनी वायण दीवन, तांचो भौमान करतात. ह्या व्रताक 'वडापुनव' वा 'वडापुनवेचें व्रत' अशें म्हण्टात.

पुराणकालीन एके कथेचें प्रतिक म्हणून, हें व्रत करपाची प्रथा हिंदु समाजांत आसा. हे विशीं कथा सांगतात ती अशी - मद्र देशाचो राजा अश्वपती हाका भुरगें नासता. ब्रह्मदेवाची बायल सावित्रीदेवी हिची आराधना करून, तागेर एक कन्या जाता. तिका तो सावित्रीदेवीचो प्रसाद मानून 'सावित्री' अशें नांव दवरता. फुडें ती व्हड जाता. तेन्ना राजा तिका न्हवरो सोदता. पूण तिका अनुरूप असो भुरगो ताका खंयच मेळना जाल्ल्यान, तो ही जापसालदारकी धुवेचेरच सोंपयता. सावित्री गांव - देस भोंवता. तिकाय मना सारको भुरगो सांपडना. निमाणे कडेन ती तपोवनांनी भोंवता. थंय तिका सत्यवान नांवाचो तरनाटो मेळटा. तो तिका आवडटा. ताका ती आपल्या मनांतले विचार सांगता. पूण तो तरनाटो तिका आपली कर्म काणी सांगून लग्नाक न्हयकार दिता.

सत्यवान हो शाल्व देशाचो राजा धुमत्सेन हाचो पूत. ताच्या राज्याचेर शत्रून धुरी घालून तांचें राज्य बळकायिल्लें आनी राजाक हद्दपार केल्लो. राजा धुमत्सेन खूब म्हातारो जाल्लो. ताका दोळयांनी दिश्टी पडनाशिल्लें. देखून तो त्या तपोवनांत आश्रम करून आपले बायलेक आनी पुताक घेवन रावतालो. सत्यवान तांची सेवा करतालो.

सत्यवानाची ही सगळी परिस्थिती आयकून आनी फुडाराक आपली जीण काबाडकश्टी जातली म्हणपाचें कळुनय ती ताचेलागीं लग्न जावंक तयार जाता.

खोशी जावन जेन्ना ती घरा परतता, तेन्ना घराकडेन तिचो बापूय आनी नारदमुनी गजाली करीत बशिल्ले आसतात. धुवेचें खोशी मुखामळ पळोवन बापूय तिचेलागीं वासपूस करता. ती बापायक सत्यवानाची निवड सांगता. पूण हें आयकून नारदमुनी तोंड वांकडें करता आनी तिका तिचो बेत बदलूंक सांगता. कारण सत्यवान अल्पायुशी आसता. बरोब्बर एका वर्सान ताका मरण येवपाचें आसता. पूण सावित्री आपलो बेत बदलूंक मान्य जायना. आपणें त्या भुरग्याक मनान बरला, आतां आपलें पातिव्रत पणाक लावन सत्यवानाचें आयुश्य आपूण वाडयतली असो ती निर्धार करता.

फुडें तांचें लग्न जाता. बरोब्बर एका वर्सान, नारदमुनीन सांगिल्ल्या प्रमाण, सत्यवान सदां भशेन रानांत लांकडां हाडूंक गेल्लेकडेन खासावीस जावन जमनीर कोंसळटा. त्या दिसा ताका मरण येवपाचें आसा म्हणपाचें खबर आशिल्ल्यान सावित्री ताच्या बरोबर रानांत गेल्ली आसता. ताची तकली आपले मांडयेर घेवन ती थंयच एका वडामुळांत बसता. तितल्यांत कोणतरी सत्यवानाची प्राणज्योत घेवन वता तो तिका दिश्टी पडटा. तो यमराज म्हणपाचें तिका कळटा. 'सत्यवानाचे प्राण परते दी' म्हणून मागीत ती ताच्या फाटल्यान वता. सत्यवानाचें आयुश्य सोंपिल्ल्यान ताचे प्राण सोडून आनीक कितेंय माग म्हणून यमान सांगतकच, ती आपल्या मावाक नदर दी म्हणून मागता. नांवाचें गेल्लें राज्य परतें दी म्हणून मागता. आवयबापायल्या राज्याक वारस ना, देखून तांकां पूत मागता. पूण स्वताखातीर ती कांयच मागिना तें पळोवन यमदेव तिचेर खूश जावन, तिका स्वता खातीर कितेंय माग म्हणून सांगता. तेन्ना ती आपल्याक फकत तुजो आशिर्वाद दी म्हणून मागता. यमदेव भावनावश जावन तिका 'पुत्रवती भवः' असो आशिर्वाद दिता. पूण 'घोवच ना थंय पूत खंयचो?' अशें सांगून सावित्री ताका पेंचांत घालता. हे भशेन आपलो आशिर्वाद खरो करपाखातीर यमाक सत्यवानाचे प्राण परते दिवचे पडटात. वडामुळांत ही कथा घडिल्ल्यान वडाची पुजा करपाची प्रथा पडल्या. वडासारकिले व्हड आकाराचे रूख हे पर्यावरणाचे नदरेन खूब म्हत्वाचे. अशा रुखांचीं फळां, फुलां वा लाकडां व्हडलीशीं उपेगी नाशिल्ल्यान अशा रुखांची मनशांकडल्यान नाशाडी जावपाची शक्यताय धरून वडाक देवत्त्व दिवपाची आनी संस्कृतायेंतल्यान विज्ञान सादपाची कळाशी हे कथेफाटल्यान आसूं येता.

**वडापुनवेचें वायण :** नवीच लग्न जाल्ली व्हंकल, वडापुनवेचें व्रत करपाक सुरवात करता. हें व्रत धरपी दर एकली बायल, जेष्ठ शुध्द पुनवेदिसा, उपास करून व्रतस्थ रावता आनी वडाची, वा वड लागीं नासत जाल्यार वडाची ताळी हाडून, ना जाल्यार वण्टीचेर वा कागदाचेर गंधान (गंध, चंदन झरोवन) वडाचें चित्र काडून, ताची भक्तिभावान पुजा करता. उपरांत णव सवाशिणींक आपल्या घरा आपोवन हाडून तांकां हळद - कुकूम आनी फुलां दीवन, 'दान' म्हणून एक एक 'वायण' दिता.

हें 'वायण' म्हळयार, वडाचीं पानां हाडटात. शिगरांनी तोपून तांचे णव दोणे करतात. तातूंत तरेतरेची फळफळावळ घालतात आनी 'वायण' म्हणून तो दोणो दर एके सवाशिणीक दितात. दोणो दितना बायलमनीस आपलो पदर त्या दोण्याचेर धरता कारण दान दितना तें धापून दिवचें अशी हाचे फाटली भावना आसता.

व्रत करपी बायलमनीस पयल्या वर्सा हें व्रत आगळे वेगळे रितीन मनयता. म्हणजेच पयल्या वर्सा, ह्या वायणाच्या दोण्याबरोबर ती सवाशिणींक सौभाग्याचे अलंकार दिता. हे अलंकार अशे आसतात -

**दोण्यांत घालपाचीं फळां :** १) नाल्ल (भांगराचो मणी आनी

काळयो पिडुको गुंथिल्लो दोरो ह्या नाल्लाक बांदतात) २) आंबो, घोंट वा आंब्याची शीर ३) काप्या पणसाची शीर ४) चार रसाळ घरे ५) अनसाची शीर ६) काजूगर वा म्होवलो ७) काजू म्हुट्टया - फोड ८) पेराचो कुडको ९) भिरण १०) जांभळ ११) काण्णां १२) चुन्नां.

दर एके सवाशिणीक एक खण वा पोलकाक कुडको, एक दांतोणी, चार कंवचेचीं कांकणां, एक पिंजरीचो ल्हानसो करंड, दोन चिमट्यो साकर जायत येदी वाटी, पायांच्या बोटांक घालपाक वेड्यां - जोड, नारवटायेदें खावचीपान, मिरयायेदो गुळो (सुर्याचें प्रतिक) विडो, एक चिमटेयेदें लवंग, मिरयायेदो भांगराचो मणी (एके अनशी दोरयेचेर हो मणी आनी पांच काळयो पिडुको गुंथप), नाकाची काडी.

हे भशेन आपल्याक शक्य जातात तितलीं फळां त्या दोण्यांनी घालून, णवय दोणे त्या णव सवाशिणींक दितात. वांगडाच सौभाग्याचे अलंकार दितात.

आदल्या दिसा वाटाणे चणे भिजत घालून, ते फुग्गयल्ले चणे, तातूंत कातले - कुडके घालून बायलांक दोणो दान दितकच, ह्या चण्यांनी तांची होंट भरतात. हें भशेन हें पयल्या वर्सा व्रत करतात.

दुसऱ्या वर्साच्यान पुजा, उपास बी आदल्या वर्सा भशेनच करतात. पूण 'वायण' म्हणून दितात, तो फकत नाल्ल आनी फळांनी भरिल्लो दोणो, तशेंच चण्यांनी होंट भरतात. दोण्यांत घालपाच्या आनी वायणाच्या रुपांत दिवपाच्या जिन्नसांची वस्तींची वळेरी ह्या प्रमाण नासून दर एकल्याचे अर्थीक कुवती प्रमाण जिन्नसांचें आनी वस्तींचें दान करप जाता.

हें व्रत एकदां धरलें, म्हण्टकच तें बायलो जल्मभर करतात. इतलेंच न्हय तर विधवा बायलांक पुजा करप, वायण दिवप जरी शक्य नासलें, तरी तीं उपास करून व्रतस्थ रावतात.

- कमलादेवी राव देशपांडे

**वडार :** एक जात. भारतांत सगळे कडेन हांची चड कमी प्रमाणांत वसणूक आसा. पूण महाराष्ट्र आनी कर्नाटक ह्या राज्यांनी मात हे लोक चड प्रमाणांत आसात. ह्या लोकांक ओड, ओड्डे, वोड्डे, वड्डु, बेलदार, वड्डर आनी ओर्ह अशींय नांवां आसात.

वडार लोकांचे मण्ण वा माती, भंडी वा गाडी, कल्ल वा दगडी, घट्टी वा डोंग वा टक्क, पाथवट, जंती, भोज अशे जायते भेद आसात.

हे लोक आपूण क्षत्रिय आसून, भगीरथाचे वंशज आशिल्ल्याचें सांगतात. रासमाल ह्या ग्रंथांत तांचेविशीं कथा सांगल्या ती अशी -

पाटणाचें सहस्त्रलिंग तळें बांदपावातीर गुजरातचो राजा सिध्दराज जयसिंगान माळव्यांतल्यान जायत्या वडार लोकांक हाडले. तातुंतल्या जस्मा नांवाचे चलयेचेर सिद्धराजाचें मन बसलें. तिका राजवाड्यांत व्हरपाची ताणें इत्सा दारवयली. पूण जस्मा तयार जाली ना. अब्रू वाटावपावातीर तिणें पळून वचपाचो यत्न केलो. पूण राजान तिची फाट धरली. ताका आडरवळ हाडपी सगळया वडार लोकांक ताणें जितेच मारले. मागीर जस्मान जीव दिलो. ताचे पयलीं 'तुज्या तळयांत केन्नाच उदक साठचें ना' म्हणून तिणें राजाक शाप दिलो आनी आपल्या लोकांक तिणें म्हळें - 'हाचे फुडें वडार बायलो सोबीत जावंच्यो नात' तशेंच वडार लोकांनी आयजपसून तेल वा काजळ वापरचें न्हय अशेंय तिणें सांगलें.

माती हाडप आनी फातर फोडप हो वडार लोकांचो वंशपरंपरागत वेवसाय. मण्ण वडार शेती आनी मातयेचें करतात. तशेंच बांयो मारप, तळीं खणप, रस्ते करप सारकिल्लींय कामां ते करतात. भंडी वडार फातरांची खण खणून फातर काडटात, बांयो - तळीं खणटात आनी शेतीय करतात. कल्ल वडार दातीं, फातरी तयार करतात. तांच्यो बायलो घरांनी भोवन दातीं आनी फातरींक टांकी घालपाचें काम करतात. कामाच्या निमतान हांच्यांतले बरेचशे लोक भोंवत आसतात. वाडपी शारांक लागून ह्या लोकांक कामां मेळटात. देखून शारांत ह्या समाजाची वसती वाडल्या.

पयलीं ह्या लोकांची गुन्यांवकारी जमात म्हण नोंद जाल्ली. हांच्यांतले चडशे लोक चोरयो, घरफोडी सारकिल्लीं कामां करताले. यात्रेंत वा बाजाराच्या जाग्यांचेरय तांचीं बायलां - भुरगीं असलीं कामां करतालीं.

रावपाचे जागेप्रमाण वडार लोकांचे भेद आसात. ते अशे -

**मराठा आनी कानडी वडार :** हे लोक उंच, काळे, सरळ नाकाचे आनी बळकट आसतात. तांचे ओंठ पातळ आनी मान लांब आसता. तशेंच ते कश्टाळू मनीस.

घरांत हे लोक तेलुगू भास उलयतात आनी भायर अर्दवट मराठी वा कानडी भास उलयतात.

वडार दादले धोतर वा पायजमो, सदरो आनी उपरणें असो भेस करतात. तांच्यो बायलो कापड न्हेसतात आनी ताचो वयलो पदर तकली आनी छातयेवयल्यान घेतात. त्यो पोलको आनी उजव्या हातांत कांकणां घालिनात. दाव्या हातांत मात काशाचीं वा पितळेचीं कांकणां घालतात. पोलको न घालपा फाटल्यान तांचे जायते समज आसात. तांच्यांतल्यो जाण्ट्यो बायलो हे समज मानतात. पूण आयच्यो शिकिल्ल्यो चलयो पोलको घालतात, कुकूम लायतात आनी हेर अलंकारय वापरतात.

गांजो, तंबाकू आनी सोरो तांकां खूब मानवता. वेगवेगळया जनावरांचें मांसय ते खातात.

कारवार आनी मंगळूर जिल्ह्यांतले वडार वैश्णव आसात. तिरुपतीचो व्यंकटेश, नरसोबा, महादेव, मारुती, जानाई हो तांच्यो कुलदेवता. तशेंच ते पंढरपूर, तुळजापूर, तिरुपती सारकिल्ल्या क्षेत्रांची यात्रा करतात.

स्थानाप्रमाण हांच्या लग्नसुवाळयांतूय भेद दिसता. वडार दादलो आते वा मामे भयणीकडेन लग्न जावपाक शकता. चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेच्या बापायक देज दिता. जातीचो मुखेली वा ब्राह्मण लग्नाचो म्हूर्त थारायता. हांचीं लग्नां बिरेस्तार, आयतार वा सोमार ह्या दिसा सुर्यास्तावेळार जातात. पुनव वा उमाशे दिसा लग्नां जायनात. जातींतलो जाण्टो मनीस लग्नांत पुरोयतपण करता. हांच्या लग्नांत जायत्या जाग्यांनी वाजंत्री, हळद, मंगळसूत्र आनी बाशिंग हांचो उपेग करिनात.

अहमदनगराक चलयेच्या घरा कांबळिचें पाल (तंबू) उबारतात. लग्नाच्या पयल्या दिसा व्हंकलेचो बापूय न्हवऱ्याकडच्या लोकांक घेवन येता. न्हवऱ्यावटेनचे लोक त्या पालांत रावतात. कुलदेवतेची पुजा जाल्या उपरांत न्हवऱ्याच्या कपलाक पयलीं चंदनाचो आनी मागीर पांच खेप हळदीचो तिबो लायतात. तशेच तिबे सवायशिणी व्हंकलेच्याय कपलाक लायतात आनी तांकां हून उदकान न्हाणयतात. तांचें लग्न मात पालांतच जाता. न्हवरो व्हंकलेचो हात धरून तिका पालांत हाडटा आनी दोगांय उदेंतेवटेन तोंड करून उबीं रावतात. सवायशिणी मंगलाश्टकां म्हण्टात आनी जमिल्ले लोक न्हवरो - व्हंकलेचेर अक्षता घालतात. मागीर न्हवरो - व्हंकल कामळीर बसतात आनी उपरांत देवाक आनी जाण्ट्यांक पांयां पडटात. ताचेउपरांत जेवणावळ जाता.

लग्नाउपरांत दुसऱ्या वा तिसऱ्या दिसा न्हवरो - व्हंकल एकामेकाच्या हातार पांच खेप दुदाची धार वोततात. मागीर तीं सुपारी लिपोवपाचो खेळ खेळटात. जमिल्ले लोक तांकां केळवण दितात. ताचे उपरांत जातींतल्या लोकांक सोरो - मांस आशिल्लें जेवण दितात आनी लग्न सुवाळो सोंपता.

पुण्यांतल्या वडार लोकांत चलो आनी चलयेचे घरा माटव घालपाची पद्दत आसा. माटवाच्या एका खांब्याक रुमडाची खांदी बांदतात आनी करवली ताची पुजा करता. न्हवरो व्हंकलेच्या हाताक कांकण बांदता. न्हवऱ्याक हळद लायतात आनी उरिल्ली हळद दबाज्यान व्हंकलेक लावपाखातीर तिचे घरा धाडटात. लग्नाखातीर न्हवरो व्हंकलेचे घरा वता. ताचेपयलीं तो मारुतीच्या देवळांत वता. उपरांतचो सगळो विधी अहमदनगराच्या लग्नविधी सारकोच आसता.

बेळगांवांतले वडार लोक लग्नाच्या वेळार न्हवऱ्या - व्हंकलेक व्हंकलेच्या घरामुखार आंगणांत एके कांबळीचेर बसयतात. दोन हळकुंडां आनी विड्याचीं पानां एका कपड्यांत गुठलावन व्हंकलेच्या आनी न्हवऱ्याच्या उजव्या हाताक बांदतात. व्हंकल आपल्या दाव्या हाताक कंवचेचें कांकण घालता. न्हवरो व्हंकलेच्या गळयांत काळी पोत बांदता. जमिल्ले लोक तांचेर अक्षता उडयतात. दुसऱ्या दिसा त्या दोगांकय हळद लायतात आनी लग्नसुवाळो सोंपता.

धारवाड जिल्ह्यांत लग्नाच्या पयल्या दिसा न्हवऱ्या - व्हंकलेक हळद लायतात आनी ते राती तांकां कांबळीचे पालांत न्हीदयतात. त्या दोगांय मदीं एके आठ - णव वर्सांचे चलयेक न्हीदयतात.

कारवार आनी मंगळूराक लग्नाच्या दिसा सकाळीं साकरपुडो करतात. ताचे उपरांत ऐरणी नांवांचो एक विधी जाता. तेखातीर पांच सवाशिणी बायलो मातयेचे कळशे घेवन बांयचेर वा तळयाचेर वतात. थंय त्यो गंगेची मूर्त करतात आनी तिची पुजा करतात. मागीर त्यो कळशाक आनी आपल्या उजव्या हाताक कांकण बांदतात. उपरांत ते कळशे उदकान भरून घेवन व्हंकलेच्या घरा येतात. थंय दादल्यांखातीर आनी बायलांखातीर उबारिल्ल्या पालांत एक एक कळसो दवरतात आनी उरिल्ले तीन कळशे घरांतल्या देवामुखार दवरतात. मागीर न्हवरो - व्हंकलेक हळद लायतात. उपरांत एका खांब्याक रुमडाच्यो आनी कोडुलिंबाच्यो खांदयो बांदतात आनी तो जमनींत पुरतात. दोन दादले व्हंकल आनी न्हवऱ्याक खांद्यार घेवन त्या खांबाक पांच भोंवताडे घालतात. मागीर व्हंकल त्या खांब्यामुखार उबी रावता आनी न्हवरो तिच्या गळयांत मंगळसूत्र बांदता. लग्नांतलो हो एक गरजेचो विधी. मागीर जातींतल्या लोकांक जेवण दितात आनी लग्नसुवाळो सोंपता.

विधवेक आपल्या मामेभावाकडेन लग्न करपाक जाता. आषाढ, भाद्रपद आनी पौष हे म्हयने सोडून खंयच्याय म्हयन्याच्या वद्य पक्षांत विधवांचीं लग्नां जातात. कारवार आनी मंगळूर जिल्ह्यांत मात तीं बिरेस्तारा वा आयतारा जातात.

घोव - बायलेचें पटना जाल्यार वा बायलेची वागणूक वायट आसल्यार सोडचीट दिवपाक मेळटा.

चलयेक पयल्या मासिक पाळयेवेळार सात वा णव दीस मुद्दाम उबारिल्ल्या पालांत दवरतात. तिका गोड आनी सोय खावपाक दितात. मासिक पाळी आयली की बायल सात दीस पालांत रावता आनी आठव्या दिसा न्हाता.

बाळंतिणीच्या उशाकडेन भुतांची बादा जावंची न्हय म्हण चाकू दवरतात. तिची वार घराभायर पुरतात आनी तिचेर फातर दवरतात. ह्या फातराचेर ती न्हाता आनी कपडे धुता. भुरग्याक पांचव्या दिसा पाळण्यांत घालतात. ताका नांव केन्नाय दवरल्यार जाता. बारा दीस सुयेर पाळटात.

हे लोक मडीं लासतात वा पुरतात. तिसऱ्या दिसा मेल्ल्याक जेवण ओंपतात. बारा दीस सुतक पाळटात. तिसऱ्या दिसा उपरांत आनी पंदरा दिसांमेरेन केन्नाय जातींतल्या लोकांक जेवण घालतात.

चैत्र पाडव्याक, नवरात्रांतल्या एकाद्र्या दिसा वा एकाद्र्या बऱ्या दिसा ते पितरांक कपडे, कोंबी आनी बोकडी ओंपतात.

**गुजराती ओड वा वडार :** हे लोक आपूण दक्षिणेंतल्यान गुजरातांत आयले अशें सांगतात. तांच्यांत खुद्द आनी नवाभाई अशे दोन भेद आसात. तांचेमदीं रोटीवेव्हार जाता, पूण लग्नां जायनात.

हे लोक स्वामीनारायण, कबीर आनी रामदासी पंथाचे अनुयायी आसून ते शिवाक भजतात.

वडार दादल्याक मामे वा मावस भयणीकडेन लग्न जावपाक मेळना. चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेच्या बापायक देज दिता. हे लोक लग्नमंडपाक पंचपालवीचें तोरण बांदतात. लग्नविधी मात तांच्या पातळेच्या हे जातींत जाता तसोच जाता.

काठियावाडीक विधवेक धाकल्या देराकडेनच लग्न करचें पडटा. पूण गुजरातेंत तशी सक्ती ना.

घटस्फोट घेवपाचो विधी सामको सोंपो आसा. चारचौगांहुजीर दादल्यान जशें बायलेक भयण वा आवय म्हळी म्हणजे सोडचीट मेळटा.

हे लोक मडें पुरतात. मेल्ल्याची तकली उत्तरेक करतात. लग्न जावंक नाशिल्लो आनी निपुत्रिक दादल्याक पुरचे पयलीं ताचें वासराकडेन लग्न करतात.

**सिंधी वडार :** ह्या लोकांत राजपुतांप्रमाण भट्टी, चौहान, परमार, राठोड, सोळंकी आनी तुंवर अशे स पोटभेद आसात. तांच्या मदीं लग्नां जायनात.

हे लोक मुखेलपणान हिंगलाज देवीक भजतात. कांय जाण रामदेवाक पुजतात. चैत्रांत आनी नवरात्रांत ते हिंगलाज देवीक पशुबळी दितात. सारस्वत वा पोकर्ण ब्राह्मण तांचें पुरोयतपण करतात.

हांचो लग्नविधी सिंधांतल्या हेर जातींच्या लग्नविधीसारकोच आसता. विधवेक आपल्या व्हडल्या वा धाकट्या देराकडेन परत लग्न जावपाक मेळटा. पूण देराक सोडून आनीक कोणाकडेनय लग्न जाल्यार तांकां जातीभायर घालतात.

हे लोक मडें पुरतात.

**परदेशी वडार :** औरंगजेबाच्या काळांत आपूण उत्तर भारतांतल्यान आयले अशें हे लोक सांगतात.

**निजाम राज्यांतले वडार :** पयलींच्या निजामाच्या हैद्राबाद प्रदेशांतय जायते वडार लोक रावतात. तांकां थंय ओडे, वाडू, राजलू, औडेवांडलू, कलकोल सारकिल्लीं नांवां आसात.

ह्या लोकांत चिलक वा कासी, कुंड, लागोल्ल, गोडंदल, माट्टी, बंडी वा गाडी, सतरवरू आनी उप्पार अशो आठ पोटजाती आसात. ह्या जातींमदीं रोटीवेव्हार जाता, पूण लग्नां जायनात. सतरवरू आनी उप्पार हे कुंडांची वेश्यांपसून जाल्ली संतती अशें समजतात.

ह्या लोकांत विभूतिधारी आनी तिरमनीधारी अशे दोन भेद आसात. गोराप्पा हो तांचो पालकदेव. दर बिरेस्तारा ताका ते बोकडो आनी गोड जिन्नस ओंपतात. बालनगू, पोचम्म आनी वेंकटेश हांकां सोमारा आनी शेनवारा कोंबो आनी बोकडो बळी दितात. संक्रांतीच्या दिसा ते एक दुकर बळी दितात आनी ताचें मांस शिजोवन खातात.

हांचीं लग्नां शेनवारा सांजेचीं सुर्यास्ता उपरांत जातात. न्हवरो हातांत सुरी घेवन आपल्या इश्टांवांगडा व्हंकलेच्या घरा वता. जेवणावळीखातीर तो एक दुकरय वांगडा व्हरता. न्हवरो - व्हंकल एका खांब्याभोंवतणी पांच भोंवताडे घालतात आनी न्हवरो व्हंकलेच्या गळयांत काळो पोत बांदता. लग्नांतलो हो एक गरजेचो विधी. मागीर न्हवऱ्या - व्हंकलेक हळदीच्या उदकान न्हाण घालतात आनी तांच्या हातांत कांकण बांदतात. उपरांत तीं दोगांय एकाच ताटांत जेवतात आनी जमिल्ल्या लोकांक जेवण दिल्याउपरांत लग्नसुवाळो सोंपता.

पयलीं तांच्यांत जायत्यो बायलो करपाची पद्दत आशिल्ली. तशेंच विधवा लग्नां आनी सोडचीट ह्योय चाली आशिल्ल्यो.

हे लोक मडें पुरतात. तिसऱ्या दिसा शेतांतलो हुंदीर आनी शीत एकठांय शिजोवन मृतात्म्याच्या थडग्याचेर दवरतात. कावळे आनी हेर शेवण्यांनी तो खावंचो अशी तांची इत्सा आसता. धाव्या दिसा शेवण्यांखातीर मटण दवरतात. त्याच दिसा मातंगी सगळया नात्यांतल्या लोकांचेर कोडुलिंबाच्या खांदयांनी उदक फाफुडटा आनी सुतक सोंपून ते सगळे सोवळे जातात. ते श्राध्द करीनात.

**चिलक वडार :** हे लोक शेतकामती आसून हेर वडारांपरस आपल्याक व्हड समजतात. कुंड आनी बंडी फातरकाम करतात आनी दातीं करून विकतात. लागोल्ल मातयेचें काम करतात आनी बांयो बांदतात. गोडंदल गोडली नांवाच्या हत्यारान माती खणटात. माट्टी वडारय माती खणटात आनी बांयो - तळीं बांदतात. सतरवरू आनी उप्पार फातर फोडटात आनी गंवडेकामच करतात. आधुनिक काळाच्या प्रभावाखाल सगळयाच जाती जमातींच्या चाली रितींत आनी रुढी - रिवाजांनी बदल घडत आसा. वडार जमातय ताका आडवाद उरूंक ना. तांच्यांतय जायते बदल जायत रावल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**वतनदारी :** भारतीय समाज वेवस्थेंत पारंपारीक रितीन चलत आयिल्ली येणावळ म्हळयार वतन. गांव वा देशकारभारांत वेगवेगळया मळार थरावीक रितीचें योगदान करपी अधिकारी आनी सेवक हांकां तांच्या कामाखातीर मेळिल्लो मोबदलो, हक्क वा अधिकार, ह्या रुपांत ह्या वतनाचो उदय जालो. वतन घेवपी मनशाक वा घराण्याक वतनदार म्हण्टात आनी हे एकंदर वेवस्थेक वतनदारी म्हण्टात.

सुरवेक ग्रामसंस्थांचो कारभार चलोवपी जाळवणदारांक तांचे सेवेचो मोबदलो म्हणून पिकावळ वा जमीन हांच्या रुपांत मोबदलो दिवप जातालो. फुडें राज्यवेवस्था, धर्मवेवस्था हांचो कारभार पळोवपी कारभाऱ्यांक वतनदारी दिवपाची प्रथा शासनवेवस्थेंत स्विकारली.

वतनदारीचे दोन मुखेल प्रकार मेळटात - एक, राजाक गरज पडटा तेन्ना लश्करी वा हेर आदार करपाचे अटीचेर जीं वतनां

दितात, तीं सरंजामशाय वतनां आनी दुसरो, गांव कामगारांक गावस्की म्हळयार गावसभेकडल्यान ग्रामवेवस्थेच्या विशिश्ट कामाक मेळटात तीं वतनां. हाचेभायर बलुतेदार म्हळयार वेगवेगळे कारागीर - कामगार, गांवाखातीर जे विशिश्ट सेवा करतात, तांकां शेतकऱ्याकडल्यान कायम स्वरुपांत थाराविक धान्य मेळटा.

भारतांतले सामाजिक वेवस्थेंत वतनदारी केन्नासावन सुरू जाली हें निश्चितपणान सांगपाक मेळना. कांय अभ्यासकांच्या मतान ती इसवी सनाचे सुरवातेकसावन अस्तित्वांत आयली. उपरांत मध्ययुगांत सरंजामशायेच्या विकासावांगडा चड घट जाली.

ग्रामसंस्थेंतल्या कारभारांत कांय अधिकारपदां कांय कुळांकडे वंशपरंपरेन दिताले आनी त्या कुळांक कांय जमीन कायमची इनाम दिवपाची चाल आशिल्ली. तेखातीर त्या त्या कुळांतले अधिकारी आपआपलीं कामां दक्षतेन करताले. यादव काळापयलीं ही संस्था वेवस्थित कार्यरत आशिल्ल्याचे दाखले शिलालेखांतल्यान आनी तांब्यापटांतल्यान मेळटात. यादव काळांत (९८० - १३१८) वतनदारी पद्दत पुरायपणान प्रस्थापित जाल्ली दिसता.

ग्रामवेवस्थेंत पाटील हो सगळयांत व्हडलो वतनदार. तसो राज्यांतलो सगळयांत श्रेश्ठ आनी मातबर वतनदार म्हळयार देशमुख वा देशग्रामकूट. पाटील हो जसो गांवाचो राजा तसो देशमुख हो आपल्या हाताखालच्या प्रदेशाचो नायक.

वतनदार हे लोकांचे प्रतिनिधी म्हणून लोकांखातीर काम करपी आशिल्ल्यान लोक तांकां मान दिताले. वतनदारांकूय आपल्या वतनाचो आनी आपल्या अधिकारपदाचो व्हड अभिमान दिसतालो.

ग्रामसंस्था ही दर एका गांवांत आसून तिचो कारभार ग्रामपंचायत नांवाची सभा करताली. उपरांत मात ही वेवस्था मात्शी बदलली आनी ग्रामीण वाठारांनी देशकसत्ता आयली. देशमुख, देशपांडे, पाटील, कुलकर्णी, चौगुलो आनी मुखेल ग्रामस्थ हांकां सगळयांक मेळून 'देशक' म्हण्टाले. गांवच्या कारभारा खातीर ज्यो सभा भरताल्यो तातूंत बारा बलुतेदार, शेतकामती, जोशी ह्या सगळ्या जानपदस्थ लोकांचो आस्पाव जाता. हातुंतले सगळे वतनदार आसताले. ताका लागून राजसत्ता बदलली जाल्यार अधिकारी बदलताले. पूण लोकवेव्हाराचो खांबो आशिल्ली वतनदार मंडळी कायम आसताली. तेखातीर यादवांचे शिमेंत परमार, होयसळ, शिलाहार, काकतीय ह्या वंशांतल्या राजांनी मदीं मदीं लुडबूड केली वा यादवांक कांय प्रसंगांचेर कांय प्रदेश सोडचे पडले; तरी स्थानिक कारभारांत व्हडलोसो गोंदळ जालोना. त्या काळांत देशाच्या हिताची सगळ्या घडणुकांची नोंद वतनी अधिकारी दवरताले. यादवां उपरांत मुसलमानी अंमल (१२१८ ते १७०७) आयलो आनी दक्षिण हिंदुस्थानांत, मध्ययुगांत बहमनी सत्ता (१३४७ ते १५३८) आनी फुडें तिचे पांच शाह्यांत - आदिलशाही, कुत्बशाही, बरीदशाही, निजामशाही आनी इमादशाही अशी वांटणी जाली. पूण वतनदारींत चडशे बदल जाले नात. कारण राजसत्ता बदलली तरी स्थानिक कारभारांत व्हडलोसो बदल जालो ना. मुसलमानांनी हीं सगळीं वतनां चालू दवरल्यांत. मराठेशाहींत हे वतनसंस्थेंत चड बदल जालो ना तरी शिवाजी महाराजान देशमुख - देशपांडे हांचीं वतनां जप्त करून वेतनपद्दत हाडपाचो यत्न केलो आनी येणावळ एकठांय करपाखातीर ताणें देशमुख - देशपांडे हांचेर पातयेवन राविनासतना कमाविसदार, महालकरी, सुभेदार अशा पगारी अधिकाऱ्यांची नेमणूक केली. सगळींच पोरनी वतनां काडलींनात पूण नवीं वतनां दिलींनात. शिवकाळांत वतनसंस्थेंची स्थिती मात्शी वेगळी आशिल्ली. त्या काळांत राजसत्ते फाटोफाट देशकसत्ता म्हळयार देशमुख, कुळकर्णी, देशकुळमर्णी, पाटील, बलुतेदार ह्या वतनदारांचे अधिकार आशिल्ले.

शिवकाळा उपरांत सरंजामशायेक सुरवात जाली. शाहू छत्रपतीच्या काळांत एकाद्र्या सरदारान नवो प्रदेश जिकल्यार तो ताकाच जहागीर म्हणून दिवपाची चाल सुरू जाली. ताका लागून उपरांत पेशवायेंत मराठी साम्राज्याचो विस्तार जावनूय हे सरंजामशायेक लागून एकसुत्री राज्य उरलें ना आनी स्वतंत्र संस्थानां तयार जालीं. उपरांत ब्रिटिशांनी हिंदुस्थान घेतकच इंग्लीश अंमलांत हीं संस्थानां कायम दवरलीं. ग्रामसंस्थेंतलो पाटील, कुळकर्णी, महार हीं वतनां तशींच चालू दवरलीं. पूण देशमुख - देशपांडे हांचीं सरंजामी वतनां काडलीं. फुडें स्वातंत्र्या उपरांत भारतांत संस्थानांच्या विलीनीकरणा वांगडा सगळीं वतनांय सोंपलीं. कुळकर्णी, पाटील, चौगुलो, देशमुख - देशपांडे, महार, महाजन हांच्या वतनाविशींचे हक्क आनी कर्तव्यां अशीं आशिल्लीं -

**कुळकर्णी :** प्राचीन ग्रामसंस्थेंतलो एक अधिकारी आनी वतनदार. सद्याचो तलाठी. ताच्या वतनाक 'लिखनवृत्ती' म्हण्टाले. गांव - पाटलाचो लेखक - मदतनीस ह्या नात्यान गांवाचे येणावळीचो हिशोब दवरपाचें काम कुळकर्ण्याकडे आसतालें. कुल + करण ह्या सामासिक शब्दावयल्यान कुळकर्णी हो शब्द आयला आसुंये. कुल म्हळयार जमनीचो भाग वा शेतकरी आनी करण म्हळयार लिखनवृत्ती कुळवार हिशोब बरोवपी तो कुळकर्णी. हाका पटवारी वा पांड्या अशेंय म्हण्टात. कुळकर्णी चडकरून ब्राह्मण आसताले पूण प्रभू, मराठे, लिंगायत आनी मुसलमान ह्या ज्ञातींनीय कुळकर्णी वतनदार मेळटात. शिवकाळांत तांकां दोन रग, जोतें, मुंडासो, धोंतराचो जोड, लेंस, चादर तशेंच गांवांतल्या धंदेवाल्यांकडल्यान तेल, पानां, सुपारी, गोड, केळीं मेळटालीं. गांवाचें दप्तर, शिवाराचें कमाल क्षेत्र, आकार आनी वर्णन हांचो आकार, शेतवारपत्रक, लावणीपत्रक, पडपत्रक, वसुली - बाकी पत्रक तांची फाळणी आनी जमाखर्च, गोरवां आनी मनशांची गणती अशीं लेखी कामां तो करतालो. कुळकर्ण्याचो सामाजिक दर्जो बरो आसतालो.

**पाटील :** प्राचीन ग्रामसंस्थेंतलो गांवचो मुखेल वतनदार अधिकारी. 'पट्टकील' ह्या संस्कृत शब्दावयल्यान पाटील हो शब्द आयला. ताचे उपरांत पाटैल, पाटेल, पाटील ह्या क्रमान तो शब्द प्रचारांत आयलो. तज्ञांच्या मतान, पाटीलकी हें वतन जमनीचे नांगरटी वांगडाच जल्माक आयलें. पाटलाक ग्रामसंस्थेंत प्रदेशाप्रमाण मान मेळटालो. पाटलाक गांवपाटील वा पाटील - मुकादम अशेंय म्हण्टाले. पाटील घराण्यांत सगळेच पाटील आडनांव लायताले, पूण पाटीलकी भोगपीच खरो पाटील आसतालो. पाटीलकी हें वतन म्हार, मुसलमान, ब्राह्मण, कुणबी ह्या जातींनीय आशिल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. देशमुखी फाटल्यान पाटीलकीक म्हत्व आशिल्लें आनी तांचें वतनूय वंशपरंपरेन चलतालें.

पयलींच्या काळांत पाटील हो गांवचो राजाच आसतालो. महाराष्ट्रांत प्रदेशाप्रमाण ताका वेगवेगळीं नांवां आसात. कोल्हापूर - सांगली संस्थानांत ताका 'चौधरी कामगावुंड' म्हण्टाले, कोंकणांत चौगुला आनी हेरकडे पाटील म्हण्टाले. जातपाटील, सरपाटील, जडेपाटील अशेय भेद आसात. हाचे भायर पोलीस पाटील आनी मुलकी पाटील अशीय कामाची वांटणी एकाद्र्या गांवांत आसताली. पाटील हो गांवचो मुखेल आसून, ताचेकडे मुलकी, दिवाणी आनी फौजदारी अधिकार आसताले. गांवचो सारो वसूल करप ही पाटलाची जबाबदारी आसताली. एकाद्र्या वर्सा रक्कम जमलीना जाल्यार ती पाटलाकूच भरची पडटाली. गांवची सुवेवस्था दवरून शांतिकाय राखप पाटलाचें काम आसतालें. गांवांत पीक, बलुतेदारांच्यो अडचणी, वतनदार, समाजीक संस्थांचीं वतनां, झगडीं हांची देखरेख आनी निवारण हीं पाटलाचीं मुखेल कामां आसतालीं. हाचेभायर सरकारी हुकमांची अंमलबजावणी, गांवांत येवपी - वचपी लोकांची खबर मेळोवप हीं कामां आसतालीं. म्हार, कुळकर्णी आनी पोतदार हांचेवतीन पाटील कामां करतालो. ह्या कामाखातीर पाटलाक वर्सुकी मुशाहिरा मेळटालो. विंगड विंगड समारंभांच्या प्रसंगांनी शिगमो, दसरो, पाडव्या दिसा पाटलाचो मान पयलो. भोसले, दाभाडे, पवार, गायकवाड, शिंदे, होळकर ह्या सरदारांनी संस्थानां निर्मिलीं तरी ते पाटीलकीक घेवन बसले आनी तांणीं नवीं पाटील वतनां संपादन केलीं. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत हें पद नांवापुरतेंच उरलें.

**चौगुलो :** प्राचीन ग्रामसंस्थेंतल्या गांवांची वेवस्था दवरपाच्या कामांत पाटलाक आदार करपी एक वतनदार अधिकारी. चौगुलो म्हळयार चार कुळां बाळगुपी ह्या मूळ शब्दावयल्यान हो शब्द आयला. देशचौगुलो असोय ताचो उल्लेख करतात. चडकरून हो कुणबी आसतालो पूण कोणाय वतनदाराक पयलीं आपल्या वतनाचो वांटो दुसऱ्याक दिवपाचो वा विकपाचो हक्क आशिल्ल्यान वाणी, मराठा, ब्राह्मण, लिंगायत ह्या जातींनीय चौगुलो वतनाची परंपरा मेळटा. गांवच्या एकंदर जमनीचो पंचविसावो वांटो पाटील, कुळकर्णी आनी चौगुलो हांकां इनाम म्हणून साऱ्याबगर दिवपाची चाल आशिल्ली. हाचेभायर तांकां दुसरेय हक्क आसताले. गांवांतले गुदांव हांची वेवस्था ताचेकडे आसताले. चौधरी आनी चौगुलो हे सादारणपणान एकाच दर्जाचे वतन आशिल्ले. महाळ - नाईक हे वतनदार भिल्ल, रामोशी वा कोळी आसताले.

**देशमुख - देशपांडे आनी देसाय :** हे वतनदार उच्च श्रेणींतले आसून वंशपरंपरेन आपलीं कामां सांबाळटाले. देशमुखी म्हळयार लश्करी आनी फौजदारी अधिकार. देशमुख परगण्याचें सरंक्षण करपी. झुजावेळार पाटील आनी देशमुख - देशपांडे हांणीं अमूक इतकें सैन्य सरकाराक पुरवचें असो करार आसतालो. गांवांत वसणूक करप, शेती आनी उद्देगधंदे सुरू करप आनी मध्यवर्ती सत्तेक विशिश्ट सारो एकठांय करून दिवप हीं देशमुखांचीं मुखेल कामां आसतालीं. कर्नाटकांत देशमुख - देशपांडे हांकांच अनुक्रमान 'नाडगावुडा' आनी 'नाडकर्णी' म्हण्टाले. तांचेकडे थोडें सैन्य आसतालें आनी त्या लश्करी बळग्याचेर ते गढयो, कोट बांदून रावताले. पाटील - कुळकर्ण्यांभशेन परगण्याचे पंचायतींत ताकाय भेट, पुडवें, तेल, तूप अशो वस्तू चड अदीक प्रमाणांत मेळटाल्यो. ताच्या हाताखालचो 'मोहरीर' नांवाचो एक कारकून, परगण्याचें जमाबंदीचें काम पळयतालो. कोंकणांत आनी कर्नाटकांत हें काम देसाय हे वतनदार करताले. देशपांडे - देसाय हे देशमुखाच्या हाताखालचे वतनदार आसताले. कांय कडे देशपांड्यांकूच देशकुळकर्णी अशेंय म्हण्टाले.

**म्हार वतन :** जागल्या, वेसकर हे म्हारकेच्या कामाचे पोटविभाग आशिल्ल्यान खूब कडे हीं सगळीं कामां त्या वेळार म्हार करताले आनी तिनूय प्रतींचे बलुते तांकां मेळटाले. म्हार जागले हे पाटील कुळकर्ण्याचे हरकामे शिपाय. सरकारी कामाच्या निमतान ज्या मनशाची तांकां गरज लागताली, ताका आपोवप, गांवांत कोणूय परकी मनीस आयल्यार; जल्म, मरण वा गुन्यांव जाल्यार; सरकारी मालमत्ता, झाडां हांचो इबाड जाल्यार वा सरकारी सुवातीचेर कोणेय अतिक्रमण केल्यार तेविशींची खबर पाटील - कुळकर्ण्याक दिवप; गांव नितळ दवरप; गस्त घालप; सरकारी कामानिमतान पाटील - कुळकर्ण्यावांगडा परक्या गांवांत वचप; गांवचो वसूल, कागदपत्रां आनी सरकारी सामान ठाण्यांत वा दुसऱ्या गांवांत पावोवप; पलटणीचो बंदोबस्त, सरकारी अंमलदारांची सरबराय ह्या कामांनी पाटील - कुळकर्ण्याक आदार करप हीं कामां म्हार जागले करताले.

जागले वतन हें अवलच्या महार वतनाचो एक पोटभाग आशिल्ल्यान हें काम म्हाराचें आनी तें काम जागल्याचें असो भेद करूंक मेळना. म्हारांक रोकड मुशाहिरा ना. चडशा गांवांनी म्हारांक जमनी इनाम आसात. तांकां 'हाडकी हाडोळा' म्हण्टात. ज्या गांवांत म्हारांक इनाम ना, तातुंतल्या कांय गांवांनी तांकां जागल्याभशेन

रोख पांच - धा रुपया सालिना मुशाहिरा सरकार दितालो.

**जोशी वृत्ती :** महाराष्ट्राचे ग्रामसंस्थेंतलो एक वतनदार समाज. तांचो उल्लेख, ग्रामजोशी, कुडबुडे जोशी, गिडबिडकी ह्या नांवांनी करतात आनी ह्या नांवांप्रमाणूच तांच्या वेवसायांतूय फरक मेळटा. ह्या वतनदारांची वसती चडशी महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी मध्य प्रदेश ह्या राज्यांनी आसा. पयलीं जोशी हे भिक्षेकरी आशिल्ले. मराठे, धनगर, माळी हांचोय हातूंत आस्पाव जातालो.

जोशांचे खास जोशी आनी अकरमासे जोशी अशे दोन पोटभेद आसून तांच्यांत रोटीवेव्हार जातालो पूण बेटीवेव्हार जायनासलो. तांच्यो सगळयो चालीरिती मराठ्यांभशेन आशिल्ल्यो.

ग्रामजोशी मात पोरने ग्रामवेवस्थेंतलो एक धर्मीक अधिकारी आशिल्लो. ताचेकडे ग्रामदेवतेची पुजा - अर्चा, निवेद्य आनी शकुन - अपशकुन पळोवप हीं कामां आसतालीं. तो जातीन ब्राह्मण आसतालो. ताका कुणब्या कडल्यान, शेंकड्याक एक हे प्रमाण पेंढ्यो मेळटाल्यो. हाचे भायर सणा - परबेच्या निमतान शिधो आनी दक्षिणा वेगळी. गिडबिडकी जोशी हे डमरू वाजोवन भिक्षा मागतात म्हणून तांकां गिडबिडकी वा कुडबुडे जोशी म्हण्टात. तांच्यो चाली मराठ्यांभशेनूच आसून हे पिंगळा नांवाच्या पक्ष्याचो शब्द आयकून भविश्य सांगतात.

**शेटये - महाजन :** हांकां ग्रामवेवस्थेंत म्हत्वाचें स्थान आसा. ह्या वतनाचो संबंद वेपाराकडे, मुखेलपणान वाणी वेवसायाकडे आसून, गुजरात - महाराष्ट्रांतल्या मुखेल शारांनी हांचें वास्तव्य आसा. अर्थवेव्हाराचें नियमन करपी संस्था म्हणून तिचें म्हत्व आशिल्लें. वेव्हाराचे शिरस्ते दवरप, लवाद करप, सरकार दरबारांत दाद मागप हो सगळो म्हत्वाचो कारभार महाजन चलयतालो. वेपारी आनी सावकार मेळून एकूच महाजन संस्था आसताली. तिका 'महाजनकी' म्हण्टाले. महाजनांच्या मुखेल्याक नगरशेठ म्हण्टाले. गुजरातांत तांकां चड मान आशिल्लो.

ग्रामवेवस्थेंत गांवच्या लोकांखातीर (वेगवेगळे तरेच्यो सेवा दिवपी मेस्त, धवड, म्हार, चामार, म्हालो अशे बलुतेदार आनी तांबोळी, साळी, माळी, गोंधळी अशे अलुतेदार हांकां कांय प्रमाणांत वतनदारीचे हक्क आनी फायदे मेळटाले आशिल्ल्यान तांचो आस्पाव वतनदारींत करप जाला.

वतनसंस्था ही पारंपारीक रीतीन जल्माचेर आदारीत आशिल्ल्यान वतनदारींतल्या त्या त्या कुटुंबाची ते ते सेवेची मक्तेदारी तयार जाली. वतनदारी भायल्या सेवेकऱ्या कडसून सेवा करून घेवप हो सामाजिक अधिक्षेप (गुन्यांव) मानप जालो. हाचे दोन परिणाम घडले, एका परिणामावरवीं गांवगिरे समाज वेवस्थेक एक नेमस्त अशी सेवेची यंत्रणा निर्माण जाली. तिचेवरवीं सेवेकऱ्यांमदली सर्त ना जाली. दुसऱ्या परिणामावरवीं वतनदारी म्हणजे थरावीक सेवा करपाचो जल्माच्या आदारान मेळिल्लो दंडक (सक्ती) जालो.

ब्रिटीश शासनाखाला वतनसंस्थेंत हस्तक्षेप जावन, वतनदारीचें म्हत्व उणें जालें. बऱ्योच वतनदारी नश्ट जाल्यो. म्हार वतनदारीचे वायट परिणाम पळोवन डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरान म्हार वतनदारी आड चळवळ सुरू केली. फुडें १९५९ वर्सा म्हार वतनदारी कायद्यान रद्द केली.

उद्देगीकरण आनी शारीकरण, येरादारीचीं आधुनिक साधनां, आधुनिक संपर्क साधनां, आधुनिक बाजारपेठो, चलन - वापर शिक्षण -प्रसार. स्वातंत्र्य प्राप्ती उपरांत प्राप्त जाल्ली स्वाभिमानी वृत्ती आनी कूळ कायदे ह्या सगळया गजालीं वरवीं ग्रामीण समाज वेवस्थेंत मूलग्राम बदल जाले. ह्या बदलाचो परिणाम म्हणून वतनसंस्थेची बुनयाद हालली. स्वातंत्र्य प्राप्ती उपरांत केल्ल्या पुरोगामी कायद्यावरवीं वतनसंस्था नश्ट जावपाक हातभार लागलो.

आयच्या काळांत कांयकडे, कांय प्रमाणांत विशेश करून ग्रामसंस्थांनी, देवस्थानांनी, सेवेच्या आदारार भोगवटीच्या रुपांत (जमीन, घर, धान्य, पयशे, हेर येणावळ) वतनदारीचे कांय अंश दिसतात आसले तरी हजार - देड हजार वर्सांची परंपरा आशिल्ली आनी समाज वेवस्थेंत प्रभाव आशिल्ली वतनसंस्था नवयुगांत प्रभावहीन जाल्या. विज्ञान युगांतल्या वेव्हार स्वातंत्र्य आनी वेवसाय स्वातंत्र्यांत वतनदारीक सुवात उरूंक ना आनी ते विचार प्रणालीक तर्कसंगत आदार मेळना.

- कों. वि. सं. मं.

**वत्स :** एक पुर्विल्लें जनपद. सनआदीं ६ व्या शतमानाचे सुरवातेक उत्तर भारतांत सोळा महाजनपदां आशिल्लीं. तातुंतलीं मगध, कोसल आनी वत्स हीं चड म्हत्वाचीं आशिल्लीं. वत्स हो वाठार समृध्द आसून ताची तलम सुती वस्त्रांखातीर नामना आशिल्ली. कौशांबी ही त्या वाठाराची राजधानी. संशोधकांच्या मताप्रमाण यमुनेचे देगेर प्रयागसावन ३० मैलांचेर कोसाम नांवाच्या गांवांत हें पुर्विल्लें नगर आशिल्लें.

काशीचो राजा दिवोदास हाचो नातू वत्स हाणें आपल्या राज्याचो विस्तार करता आसतना कौशांबीच्या भोंवतणच्या वाठाराचो तातूंत आस्पाव केलो आनी ताका लागून ह्या प्रदेशाक वत्सभूमी हें नांव मेळ्ळें. भारतीय झुजांत काशीचो राजा पांडवांवटेन आशिल्लो. वत्स वाठार काशीच्या राज्याचो भाग आशिल्ल्यान ताचें सैन्यय पांडवांवटेन आशिल्लें. उपरांत पौरव वंशांतल्या निचक्षूच्यावेळार कुरू देशाचेर व्हड अरिश्टां आयलीं. गंगेक हुंवार आयिल्ल्यान हस्तिनापूर ही ताची राजधानी व्हांवन गेली आनी टोळधाडीक लागून दुकळ पडलो. ताका लागून थंयच्या लोकांनी स्थलांतर करून ते वत्सभुंयेंत येवन स्थायिक जाले. थंय तांणीं राज्यय स्थापन केलें. कौशांबी ही तांची राजधानी आशिल्ली.

त्या वंशांतलो उदयन हो गौतम बुध्दाच्या काळांतलो आनी

महापराक्रमी आशिल्लो. फुडें हें राज्य मगध साम्राज्यांत विलीन जालें. मगध सम्राट शिशुनाग हाणें तें जिरिवलें.

- कों. वि. सं. मं.

**वराह अवतार :** (पळेयात अवतार).

**वराह उपनिषद :** एक उपनिषद. शांतिपाठाप्रमाण हें उपनिषद कृष्ण यजुर्वेदीय आसा. ह्या उपनिषदांत वट्ट पांच अध्याय आसून कांय श्लोकबध्द जाल्यार कांय गद्य आसात. वराहरुपी विष्णुन ऋभूक जी ब्रह्मविद्या सांगल्या ती ह्या उपनिषदांत आसा. पयल्या अध्यायांत ९६ तत्त्वां सांगल्यांत. दुसऱ्या अध्यायांत ब्रह्मविद्येचीं वेगवेगळीं साधना सांगल्यांत. वैराग्यादिचतुष्ट्य, नित्यानित्यविवेक, इहामुत्रविरागता, शमादिषट्कसंपत्ती, आदींचो तातूंत उल्लेख आयिल्लो आसा. मनशाचो जल्म दुलर्भ आसा देखून तो मेळटा तेन्ना ताचें आत्मस्वरुप जाणून घेवप गरजेचें अशें म्हळां. हातूंत समाधीचें जें लक्षण सांगलां तें अशें-

सलिले सैन्धवं यद्वत्साम्यं भवति योगत : ।
तथाऽऽत्ममनसोरैक्यं समाधिरिति कथ्यते ।।

**अर्थ :** उदकांत मीठ भरसतकच ते दोनय पदार्थ जशे एकजीव जातात तेप्रमाण आत्मो आनी मन हांचो एकचार जावप हाका समाधी म्हण्टात.

तिसऱ्या अध्यायांत 'सत्यं ज्ञानमनन्तं ब्रह्म' आनंदरूप जाल्ल्या मुक्त जिवाक जो अणभव येता तेविशीं एक श्लोक आसा तो असो -

मेघा यथा व्योम न च स्पृशन्ति ।
संसारदुःखानि न मां स्पृशन्ति ।।

**अर्थ :** ढग जेवरी मळबांत आसुनूय मळबाक स्पर्श करीनात तेप्रमाण संसार दुख्खां म्हाका स्पर्श करीनात.

ब्रह्मरूपस्थितींत संवसारांतल्यो सगळयो गजाली लय पावतात, जेवरी उदकावांगडा उदकांत पडिल्लें सुर्याचें पडबींबूय हालता, तेवरी अहंकारासंबंदान आत्म्याक संवसारी रूप येता.

चवथ्या अध्यायांत जिवन मुक्तीचीं लक्षणां सांगिल्लीं आसून शुभेच्छा, विचारणा, तनुमानसी, सत्त्वापत्ती, असंसक्ती, पदार्थभावना आनी तुरीयगा ह्या सात जिवनमुक्तांच्यो भुमिका वर्णिल्ल्यो आसात. जिवनमुक्ताचें वर्णन केल्लो श्लोक असो आसा :

रागद्वेषभयादीनामनुरूपं चरन्नपि ।
योऽन्तर्व्योमवदच्छन्न : स जीवन्मुक्त उच्यते ।।

**अर्थ :** राग, द्वेष, भंय, आदी विकारांक अनुरूप अशे तरेन आचरण करता आसतनाय जो अंतरांत मळबावरी निर्लेप आसा तो जीवन्मुक्त समजुंचो.

ते उपरांत मुक्तीचे विहंगममार्ग आनी पिपीलिकामार्ग अशे दोन मार्ग सांगिल्ले आसात.

पांचव्या अध्यायांत हठयोग आनी अष्टांगयोग हांचें विवरण केल्लें आसा. निमाणें जो कोण ह्या उपनिषदाचें अध्ययन करता तो पंचपातकांतल्यान मुक्त जावन विष्णुच्या परमपदामेरेन वता अशें सांगिल्लें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वराह पुराण :** (पळेयात पुराणां).

**वराहमिहिर :** (इ.स. चें ६ वें शतमान).

एक नामनेचो गणिती आनी ज्योतिशी. हाच्या जल्माविशीं अचूक अशी म्हायती मेळना. ताणें आपल्या बृहज्जातक नांवाच्या ग्रंथांत आपल्या बापायचें नांव आदित्यदास अशें दिलां. हो शाकद्वीपी ब्राह्मण आसून, मगधांतल्या कांपिल्ल म्हळयार सद्याचें कालपी हें ताचें जल्मस्थळ अशें मानतात. पूण बृहजातकांतल्या एका श्लोकांत ताका कपित्थक हांगा सुर्याचो वरप्रसाद मेळ्ळो अशें म्हळां. कपित्थक म्हळयार माळव्यांत उज्जयनीसावन लागसार आशिल्लें कायथा हो गांव. थंयच वराहमिहिराचो जल्म जालो अशें कांय पंडितांचें मत आसा. थंयच आपल्या बापायकडे ताणें मुळावें गिन्यान मेळयलें आनी उपरांत तो उज्जयिनीच्या राजाश्रयाक गेलो. ताच्या पंचसिध्दान्तिका ह्या करणग्रंथांत शके ४२७ हें सुरवेचें वर्स मानलां. म्हळयार ह्याच वर्सा हो ग्रंथ रचला अशें मानल्यार तेआदीं सुमार १५ - १६ वर्सां तरी ताचो जल्म जालो आसूं जाय. म्हळयार शके ४१२ वा इ.स. ४९० वर्सा ताचो जल्म जालो, अशें कांय पंडितांचें मत आसा.

वराहमिहिरान गणित, जातक आनी संहिता ह्या ज्योतिशाच्या तिनूय शाखांचेर ग्रंथ रचिल्ले आसात. तांचीं नांवां अशीं - (१) लघुजातक (२) बृहज्जातक (३) विवाहपटल (४) योगयात्रा (५) बृहत्संहिता आनी (६) पंचसिध्दान्तिका.

ताच्या पंचसिध्दान्तिका ह्या ग्रंथांत पितामह, वसिष्ठ, रोमक, पुलिश आनी सूर्य ह्या पांच पुर्विल्ल्या सिध्दांतांचो सारांश दिल्लो आसा. ह्या ग्रंथांत त्रैलोक्य - संस्थान नांवाचो तेरावो अध्याय आसा. तातूंत विश्वाची रचणूक आनी हेर कांय गजालींचो आस्पाव आसा. धर्तरेचो वांटकूळ अंतरिक्षांत अधांतरी फिरत आसा आनी ताका कित्याचोच आदार ना हें वराहमिहिराक खबर आशिल्लें. ह्या ग्रंथाच्या 'छेदकयन्त्राणि' नांवाच्या १४ व्या अध्यायांत वराहमिहिरान कांय यंत्रांचें वर्णन केल्लें आसा आनी कांय रितींची म्हायतीय दिल्ली आसा.

वराहमिहिराचो बृहत्संहिता हो ग्रंथ छंदोबध्द आसून ताची भास सुंदर आनी काव्यात्मक आसा. हातुंतल्या पयल्या १३ अध्यायांत सूर्य - चंद्रादी ग्रहांच्यो गती आनी तांचीं फळां; अगस्ती, सप्तर्षी हांच्या उदयकाळाचीं फळां आनी गिराण हांची म्हायती दिल्ली आसा. हातुंतल्या चवदाव्या कूर्माध्यायांत भरतखंडाचे णव विभाग आनी

तातुंतले वेगवेगळे देश, ह्या विभागांचेर आशिल्ल्या वेगवेगळ्या नरवेत्रांचें आधिपत्य, नरवेत्राचो व्यूह, ग्रहांचीं झुजां आनी समागम फळां सांगिल्लीं आसात. ताचे उपरांत गृहश्रृंगाटक प्रकरण आसून तातूंत रवीलागसार वा एकाद्र्या नरवेत्रालागसार कांय ग्रह धोणु, शींग ह्या आकारांत दिसल्यार ताचीं फळां रवंयचीं तें सांगलां. फुडें पावसाचें गर्भलक्षण, गर्भधारण, वर्षण हे विशय आसात. ह्या प्रकरणांत पावस मेजपाची रितय दिल्ली आसा. ते उपरांत रोहिणी, स्वाती, आषाढा आनी भाद्रपदा हांचो चंद्राकडे जावपी योग आनी तांचीं फळांय दिल्लीं आसात. उपरांत मळबांत दिसपी रक्तिमा, दिग्दाह, भूंयकांप, उल्का, परिवेष, इंद्रधनुश्य आदी सैमचमत्कारांची भासाभास केल्ली आसा. उपरांत इंद्रध्वज, नीराजन, खंजन नांवाच्या पक्षांच्या दर्शनाचें फळ, दिव्य, अंतरिक्ष, आनी भौम ह्या तीन प्रकारांच्या उत्पातांचें वर्णन आदी विशय आयिल्ले आसात.

ते उपरांत वास्तूप्रकरण आसून तातूंत गृहरचणुकेविशीं म्हायती दिल्ली आसा. उपरांतच्या प्रकरणांत देवप्रतिमानिर्मिती, वास्तूप्रतिश्ठा, मोनजात, सुकणीं आनी मनीस हांचीं लक्षणां, रत्नपरिक्षा, दीपलक्षण, दंतधावन, शकुन तिथिनरवेत्रकरण हांचीं फळां आनी गोचर ग्रहांचीं फळां दिल्लीं आसात.

वराहमिहिराचो विवाहपटल आनी योगयात्रा हे ग्रंथ सद्या उपलब्ध नात. बृहज्ञातक हो ताचो होराशास्त्रावयलो ग्रंथ बृहत्संहितेवरी बरोच उपेगी आसा. जल्मकाळाचे ग्रहस्थितीवयल्यान मनशाच्या सुरवदुरवाविशीं भविश्य सांगपारवातीर लागपी राशी आनी गिरे, हांचीं कोश्टकां, लग्नसारिणी, आयुर्दाय आनी दशाविपाक हेविशीं सोपी रीत आदी विशय ह्या ग्रंथांत आसात. हो ग्रंथ हेर जातक संबंदीत ग्रंथांपरस सोंपो आनी संयुक्तिक आसा.

वराहमिराचो लघुजातक हो ग्रंथ म्हळयार बृहज्ञातकाचोच संक्षेप आसा. वराहमिहिराच्या ग्रंथांत यवन सिध्दान्ताचोय उल्लेख आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वरी :** (मराठी : वरी; हिंदी : चेना, बरी; कन्नड : बरगू; गुजराती : चेनो; संस्कृत : वरक; इंग्लीश : कॉमन मिलेट, प्रोसो मिलेट, हॉग मिलेट; लॅटीन : पॅनिकम मिलिएशियम; कूळ : ग्रॅमिनी).

ही वनस्पत सुमार ०.९ ते १ मी. ऊंच वाडटा. तिचीं पानां १५-३० सेंमी. लांब आनी ६ - २० मिमी. रूंद आसतात. सप्टेंबरांत खोडाच्या तोंकार खूब खांदयांचो फुलारो येता. परीमंजरी सुमार ४५ सेंमी. लांब, दाट आसून, कणिशकां खांदयेच्या तोंकार ४ - ५ मिमी. लांब, एकोडीं वा जोडयेन येतात. तांचो रंग पाचवो वा तपकिरो पाचवो आसता. फळाची कल्लां तपकिरी हळदुवीं आसतात. दाणे सडल्या उपरांत भितर धव्या तांदळा भाशेन आसतात. तांकां 'वरयांचे तांदूळ' वा 'भगर' म्हण्टात.

उश्ण आनी उपोश्ण कटिबंधांतल्या देशांत ह्या तृणधान्याची लागवड जाता. हें मुळचें मध्य वा उदेंत आशियांतलें आसुंये. भारताशिवाय हें मंगोलिया, मांचुरिया, जपान, दक्षिण आनी मध्य रशिया, मध्य युरोप, अमेरिका, इराण, इराक, सिरिया, अरबस्तान ह्या प्रदेशांत ताची लागवड करतात.

भारतांत दोंगरा वाठारांनी हें पीक घेतात. हें पीक तमिळनाडू, कर्नाटक, आंध्र प्रदेश आनी महाराष्ट्र, बिहार, पंजाब, उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेशांत ह्या पिकाची मातशी चड प्रमाणांत लागवड जाता.

**प्रकार :** वनस्पतीचो रंग तिचे वयले केसाळ आवरण आनी दाण्यांचो रंग हे बाबतींत ह्या पिकांत वेगळेपण दिसता. ताका लागून ह्या पिकाचे खूब प्रकार आसात. तमिळनाडूंत पी.व्ही. १४ आनी पी.व्ही. ३६ आनी महाराष्ट्रांत वरी १० ह्यो सुदारीत जाती लागवडींत आसात.

ह्या पिकाक दमट उबदार हवामान आनी उदकाची गरज कमी लागता. सादारणपणान हें पीक हलक्या प्रकारच्या जमनींत घेतात. पठारी प्रदेशांत हें पीक बरें येता. हिमालयांत २,७०० मी. उंचायेच्या प्रदेशांत हें पीक वाडटा.

तमिळनाडू, गुजरात ह्या भागांनी बांयच्या उदकान शिंपून हें पीक घेतात. हेर कडेन हें पीक पावसांत घेतात.

**लागवड :** जमनीची पुराय नांगरण (मशागत) नासण्याच्या पिकाप्रमाण करतात. पेरणी जुलय म्हयन्यांत बीं शिपडून वा मेरांमदीं २२-२५ सेंमी. अंतर दवरून करतात.

नासण्यांभाशेन ह्या रोपाचें स्थलांतर करून लागवड करतात. फोकून वा पाभरीन ओंपणेखातीर हेक्टराक ८ ते १० किग्रॅ. बी लागता. स्थलांतर पध्दतींत ३ ते ४ किग्रॅ. लागता. बिंयांसावन तयार जाल्लीं रोपां हेक्टर क्षेत्राखातीर पुरो जातात. ह्या पिकाक खताची गरज नासता. बागायती पिकाखातीर हेक्टराक ५ - ८ टन शेणखत वा कंपोस्ट नांगराच्या वेळार जमनींत मिस्तूराद करतात. पेरपाच्या वेळार २५ किग्रॅ. नायट्रोजन आनी २० किग्रॅ. फॉस्फोरिक अम्ल वयर खताच्या रुपान दितात. बागायती पिकाक दोनदां उदक लायतात. पेरणीसावन ९० - १०० दिसांनी पीक तयार जाता. पीक तयार जाले उपरांत काडलें ना जाल्यार दाणे शेतांत पडटात. तें रोंप जमनीसकट कापून बैलांच्या पांयांखाला घालून माडोवन मेळटात.

**उत्पन्न :** कड्डें वाहू पिकाचे हेक्टराक ४०० ते ६०० किग्रॅ. आनी बागायती पिकाचे १,१२५ ते १,७०० किग्रॅ. दाण्यांचें उत्पन्न मेळटा. पेंडयांचें हेक्टरी उत्पादन दाण्यांइतलें थोडें चड आसता (१,००० ते २,५०० किग्रॅ.).

वऱ्याचे तांदूळ पौश्टीक आसून ताचें शीत करतात आनी पिठाच्यो भाकऱ्यो करतात. वरी भाजून ल्हायो करतात. तण जनावरांक

खावपाक घालतात. परदेशांत दुकराच्या खाणाखातीर वरीचो उपेग करतात. ही वनस्पत परम्याचेर वखदी आसा.

**रासायनिक संघटन :** वरीच्या दाण्यांनी जलांश ११.९०%, प्रथिनां १२.५%, वसा १.१%, कार्बोहायड्रेटां ६८.९%, तंतू २.२% आनी क्षार ३.४% आसतात.

**रोग आनी उपाय :** ह्या पिकाक रोग वा किडीचो त्रास ना. केन्ना केन्नाय हाका काणी रोग जावंक शकता. गंधक चोळून बीं पेरल्यार या रोगाक आळो बसता.

- कों. वि. सं. मं.

**वरूण - (१) :** एक म्हत्वाची वैदिक देवता. वरूणाच्या मूळ स्वरुपाविशीं वेगवेगळीं मतां विद्वानांनी मांडिल्लीं आसात. 'वरूण' हें उतर 'वृ' ह्या 'धांपप', 'आस्पावन घेवप' ह्या अर्थाच्या धातूपसून साधित जालां अशें मतींत धरून वरूणाक सामान्यपणान आकाशदेवता मानपांत आयलें. ग्रीक आकाशदेवता यूरेनॉस वा यूरानस हिचेकडेन ताचें नांव - स्वरूप - सादृश्य कल्पिल्लें आसा. हाच्याभायर वरूणाच्या फकत कांय वैशिश्ट्यांचेर भर दिवन ताका रातदेवता, चंद्रदेवता, जलदेवता, वा सपूत देवता अशेंय मानतात.

ऋग्वेदांत वरूणाक 'ऋता' चो मूळ अध्यादेशक आनी पालक म्हळा. वरूणाची माया; वरूणाचें वैश्विक आधिपत्य; वरूणाचें इश्टदेवतेकडेन आशिल्लें लागिंचें साहचर्य आनी वरूण आनी इंद्र हांच्यांतली सर्त जे उपपत्तीच्या आदारान हीं सगळीं खाशेलेपणां एकमेकांकडेन संबंदीत अशीं दिसतात तीच उपपत्ती लागींची दिसता. वैदिक आर्य आनी इराणी आर्य हांच्या पुर्वजांचें - दैवतशास्त्र सुरवेक सैमाधिश्ठीत आशिल्लें. पूण सैम खूब व्हड आसलो तरीय तो विस्कळीत, अनियंत्रीत ना. ताचे सगळे वेगवेगळे वेव्हार एका वैश्विक नेमाप्रमाण चलिल्ले आसतात. ह्या गजालींची तांकां प्रकर्शान जाणीव जाली आनी हेच जाणिवेंतल्यान तांकां ऋताची (वैश्विक प्रशासनाची) संकल्पना स्फुरली. ऋत म्हणजेच विश्वाचो कायदो आनी ह्या कायद्याची अंमलबजावणी करपाचें काम वरुणाचें. ऋतप्रवर्तनाचें हें काम वरूण करपाक शकता कारण तो एक असुर, ('असु' म्हणजे सर्वव्यापक यातुशक्त) आसा. असुर वरूण पुर्विल्ल्या इराणी आर्यांच्या दैवतशास्त्रांत 'अहुर मझ्द' ह्या स्वरुपांत अवतरलो. मनशाक समजना ती वरूणाची विश्वसंघटनेची तांक म्हणजेच ताची माया. 'वरूण' हें उतर 'वृ' म्हणजे 'बांदप' ह्या धातूपसून येता. विश्वाच्या सगळया घटकांक वेवस्थीतपणान बांदून दवरून वरूण तांच्याकडल्यान योग्य आनी जाय ते वेव्हार करून घेता आनी आपल्या कायद्यांचो भंग केल्यार ख्यास्तूय दिता. असुर वरूणाक 'सम्राट' मानला तो हाकाच लागून.

वैदिक आर्य फुडें आपल्या संस्कृतीक इतिहासाच्या विकासक्रमांत आपल्या विजिगीषू प्रवृत्तीकडेन अनुरूप अशा 'वृत्रहा' इंद्र हे देवतेक सगळयांत व्हड मानपाक लागले. हाकालागून वरूण आनी इंद्र दोगांच्याय अनुयायांत एके तरेची सर्त निर्माण जावप सभावीक आशिल्लें. पूण ते सर्तीचे वायट परिणाम टाळपाखातीर वैदिक ऋषींनी चडकरून वसिष्ठांनी व्हड हुशारेन त्या देवतांचें कार्यक्षेत्र निश्चित केलें आनी इंद्रावरूणौ हे द्वंद्वदेवतेची संकल्पना मुखार हाडली.

वेदोत्तर काळांत जायत्या कारणांकलागून वरूणाचें वैश्विक आधिपत्य संपुश्टांत आयलें आनी फकत दर्याचो अधिश्ठाता देव हें ताचें व्यक्तिमत्व प्रस्थापित जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**वरूण - (२) :** (नेपच्यून). सूर्यमाळेंतलो एक ग्रह. सूर्यकुळांतल्या ग्रहांत सुर्यापसून वाडटया अंतराप्रमाण ताचें स्थान आठवें आसा. दुर्बिणीबगर निरवटया दोळयांक तो दिसना. कुबेर (प्लुटो) ग्रहाचो सोद १९३० त लागमेरेन वरूण हो सूर्यकुळांतलो सगळयांत भायलो ग्रह आशिल्लो. कुबेराचे कक्षेचो कांय भाग वरूणाचे कक्षेचे भितर येवन सुर्याक लागीं येत आशिल्ल्यान आजुनूय अशावेळार वरूण हो सूर्यकुळांतलो सगळयांत पयसुल्लो ग्रह आसता. अशी अवस्था १९७९ पसून १९९९ चे सुरवेक मेरेन आसतली.

वरूण ग्रहाचो सोद हो खगोलीय घटकांच्या गतीसंबंदीच्या सिध्दांताच्या अचूकपणाची एक बरी देख आसा. पयलीं १७९५ त ८ मे आनी १० मे दिसा हो ग्रह जे. जे. लालांद ह्या शास्त्रज्ञाक दिसलो. दोन दिसांच्या वेधांत ताच्या स्थानांत ताका फरकय जाणवल्लो. पूण ती वेधांतली चूक आसुंये अशें समजून ताका तारोच समजुपांत आयलें. हाचे जर आनीक कांय वेध घेतिल्ले जाल्यार पन्नास वर्सां पयलींच ह्या ग्रहाचो सोद लावपाचें श्रेय ताकाच मेळटलें आशिल्लें. ह्या ग्रहाच्या सोदाचें श्रेय ॲडम्स आनी लव्हेऱ्ये ह्या दोगांकय दिवन आयजवेरच्या नव्या ग्रहाक जलदेवतेचें नांव दिवपांत आयलें.

**वरूणाविशीं आंकडेवार म्हायती**

| | |
|---|---|
| सुर्यापसून सरासरी अंतर | ४४९.६६ कोटी किमी. |
| धर्तरी - सूर्य अंतराचे (ज्योतिश शास्त्रीय एककाचे) पटींत | ३० पट |
| विषुववृत्तीय व्यास | ४९,५०० किमी. |
| ध्रुवीय व्यास | सु. ४८,५०० किमी. |
| ग्रहाची विवृत्तता | ०.०२६६ |
| कक्षीय परिभ्रमण काळ | १६४.७९ वर्सां (६०,१८९ दीस) |
| सांवासिक काळ | ३६७.५ दीस |
| कक्षेचो क्रांतिवृत्ताकडेन कल | १°४६' (१°.७७) |
| कक्षेची विमध्यता | ०.००८६ |
| कक्षापातळेकडेन अक्षाचो कल | २८° ४८' |

| | |
|---|---|
| माध्य कक्षीय गती | ५.४३ किमी. / से. |
| अक्षीय परिभ्रमण काळ | १५ ता. ४८ मि. (विषुववृत्तालागीं) |
| वस्तुमान (पृथ्वीच्या वस्तुमानाचे पटींत) | १७.२३ पट (१.०३० x $10^{26}$ किग्रॅ.) |
| आकारमान (पृथ्वी एक मानून) | ४४ पट (१.६७ग्रॅ./ घ.सेंमी.) |
| गुरूत्वाकर्शण (पृथ्वीच्या गुरूत्वाकर्शणाचे पटींत) | १.५३ पट (सरासरीत १.६४) |
| मुक्ती वेग | २३.६ किमी./ सें. (विषुववृत्तालागीं) |
| दृश्य कोनीय व्यास | २.१ सेकंद (धर्तरी चंद्राचो ३१ मी.) |
| तेजस्वितेची प्रत | ७.८४ |
| तापमान | - २२८° सें. (फकत सौर प्रारणान) |
| उजवाड परावर्तन तांक | सु. ०.५४ |
| सूर्यापसून येवपी प्रारण म्हळयार तरंगरुपी उर्जा (धर्तरेवयल्या प्रारणाचे पटींत) | १/९०० |

वरुणाचे कक्षेची विमध्यता शुक्राभशेनूच आसून कक्षा लागीं लागीं वाटकुळाकार आसा. ताचो परिभ्रमण काळ सु. १६५ वर्सांचो आशिल्ल्यान सोद लागतपसून ताचो पयलो भोंवताडो २०११ वर्साच्या अदमासाक पुराय जातलो. वरूणाचे प्रतियुतीचो रवीण दर वर्साक सु. दोन दोन दिसांनी फुडें वता.

व्हॉयेजर - २ हें अमेरिकेचें अवकाशयान जून १९८९ पसून ऑक्टोबर १९८९ चे सुरवेक मेरेन लागीं लागीं ४ म्हयने वरूणाचे वेध घेवपाचें काम करीत आशिल्लें. हें यान २५ ऑगस्ट १९८९ दिसा वरूणाच्या सामकें लागीं वरुणापसून २९,२४० किमी. अंतराचेर आशिल्लें. ह्या वेळार अवकाशयानांतल्यान धाडिल्ले रेडिओ संदेश ४ उपवरां ६ मिनटांनी धर्तरेचेर मेळटाले. ट्रायटन ह्या वरूणाच्या व्हडल्या उपग्रहाचे वेध व्हॉयेजर - २ यानान ३९,८०० किमी. अंतरावयल्यान सु. ८ वरांमेरेन घेतले. यानाकडल्यान फाव जाल्ली म्हायती अशी -

**वातावरण :** हेर व्हड ग्रहांप्रमाण हायड्रोजन वायू होच वरूणाच्या वातावरणाचो मुखेल घटक आसा. हीलियम, ॲसिटिलीन आनी अमोनिया हे वायू कमी प्रमाणांत आसून मिथेन वायूचें प्रमाण उच्च वातावरणांत चड आसा. ह्या मिथेन वायूकडल्यान तांबड्या रंगाच्या उजवाडाचें चड प्रमाणांत शोशण जाल्ल्यान वरूण ग्रह निळसर पाचव्या रंगाचो दिसता.

वरूणाचें परिणामी तापमान ५९°.३ के. (-२१६°.७से.) मापलां. सौर उश्णतेकलागून मेळपी तापमानापरस हें चड आसा. सुर्याकडल्यान मेळपी ऊर्जेच्या २.७ पट ऊर्जा वरूणाकडच्यान उत्सर्जित जाता. वरूणाचो विषुववृत्तीय प्रदेश चड तापता आसुनूय विषुववृत्तीय आनी ध्रुव प्रदेश हांची तापमानां सारकीं आसात आनी मध्य अक्षांशावयले प्रदेश थंड आसात. वातावरणाच्या १०० मिलिबार दाब आशिल्ल्या स्तराचें तापमान ५०° के. (-२२३° से.) आशिल्ल्याचें दिसलें. सर्वोच्च स्तरांत अधिकांशान आणवीय आनी रेणवीय हायड्रोजन आसून थंयचें तापमान ७५०° के. ऽ १५० (४७७° से.) आसा.

गोठेल्ल्या मिथेन वायूचीं उफेवपी कुपां, उच्च गतिमान वारें, विवृत्तकारी वादळां आनी दर वरा गणिक ल्हान विस्ताराच्या घटकांत एकसारके जावपी बदल हीं वरूणाच्या वातावरणाचीं खाशेलपणां आसात. वरूणाच्या निळश्या वातावरणांत वादळां दिसतात. गुरूच्या तांबड्या दागासारको धर्तरेच्या आकारमानायेदो व्हड काळो दाग वरूणाच्या २० द. अक्षांशाचेर आसा. तेजस्वी गाभो आशिल्लो दुसरो दाग ३३°द. अक्षांशाचेर व्हडल्या दागाचे दक्षिणेक आसून ताचे तेजस्वितेंत आनी आकारमानांत एकसारके बदल जातात. उजवाड परावर्तन तांक कमी आशिल्ले पट्टे + ६ ते +२५ आनी - ४५ ते - ७० अक्षांश वाठारांत आनी ठळक पट्टो -२० अक्षांशावयल्या प्रदेशांत दिसता. - ४२ अक्षांशावयल्या एका सतेज आनी रेशामय आविश्कारांतल्या रेशांचो आंकडो बदलत वचून तांचो समूह वाटकुळो, चवकोनी वा त्रिकोनी आकार घेता. - ५५ अक्षांशावयल्या एका काळ्या घटकाच्या मध्यांतल्यान मदल्यानूच एक सतेज गाभो निर्माण जावन ताचेर कुपांचो विस्तार जाता. एक उजळ आविश्कार दक्षिण ध्रुवालागीं -७१ अक्षांशाचेर आसून ताचो रेखांशीय विस्तार १० आनी अक्षांशीय विस्तार ५ परस कमी आसा. वाऱ्यांच्या गतींतल्या बदलाप्रमाण व्हडल्या घटकांची उत्तरेकडेन वा दक्षिणेकडल्यान इल्लीशी हालचाल जावन तेप्रमाण ताच्या वलनकाळांत बदल जातात. कांय अक्षांशाचेर दोंगरांच्या वाताविमुख आंगाक ज्या प्रकारचीं थीर कुपां निर्माण जातात तशा प्रकारचीं थीर तेजस्वी कुपां दिसतात. सूर्य - धर्तरी अंतराच्या ३० पट अंतर सुर्यापसून पयस आसुनूय वरूणाच्या वातावरणांत रसायनीक विक्रीया जावन त्यापसून कार्बनचें अधिक्य आशिल्लीं संयुगां निर्माण जातात. हाका लागपी ऊर्जा ही वरूण उत्सर्जित करीत आशिल्ली उश्णता आनी उच्च स्तरांतल्या कणाचेर विद्युत् भारित कणांचो जावपी मारो हांचेपसून मेळटा आसुंये.

व्हॉयेजर -२ ह्या अवकाशयानान वरूणाच्या कड्यांची चड तपशीलवार म्हायती मेळयली. वरूणाचे विषुववृत्तीय पातळेंत वांटकुळाकार दोन अरुंद पूण स्पश्ट आनी दोन रूंद अशीं ४ कडीं आसात. हातुंतलें सगळयांत भायलें अरूंद कडें ६२,९०० किमी. त्रिज्यीय अंतराचेर आसून तें तीन चापाच्या कुडक्यांचें आसा. भितरलें अरूंद कडें ५३,२०० किमी. त्रिज्यीय अंतराचेर आसून ताच्या भितरल्या आंगाक दोन उपग्रह सांपडटात. हे उपग्रह कड्यांतल्या वस्तुकणांक सर्पिल मार्गान वरूणाकडेन ओडपापसून परावृत्त करतात आसुंये. वरूणाच्या कडयांतले वस्तुकण ल्हान आकारमानाचे धूळसदृश आसून

ते अपसव्य (घड्याळाच्या काट्यांच्या उरफाटे) दिकेन फुडें फुडें वतात.

वरूण ग्रहाचो सोद लागले उपरांत सु. दोन आठवड्या उपरांत १० ऑक्टोबर १८४६ दिसा डब्ल्यू. लासेलाक 'ट्रायटन' ह्या ताच्या पयल्या उपग्रहाचो सोद लागलो. नेरीड ह्या दुसऱ्या उपग्रहाचो सोद छायाचित्रणाच्या पालवान १ मे १९४९ दिसा जी. पी. कूइपर हाणें लायलो. ताचेउपरांत लागीं लागीं ४० वर्सांच्या काळा उपरांत व्हॉयेजर -२ ह्या अमेरिकन अवकाशयानान वरूणाच्या सामकें लागींच्यान वतना वरूणाक आनीक स ल्हान उपग्रह आशिल्ल्याची नोंद केली. व्हॉयेजर -२ यानाकडल्यान मर्यादित तांकीकलागून १२ किमी. व्यासापरस व्हड व्यासाच्या उपग्रहांचें शोधन जावपाक शकलें. नव्या सांपडिल्ल्या सगळ्या उपग्रहांच्यो कक्षा ट्रायटनचे कक्षेपरस ल्हान आसून तातुंतल्या चार उपग्रहांच्यो कक्षा कड्यांच्या भितर आसात.

नव्यान सांपडिल्ल्या स उपग्रहांतल्या पांच उपग्रहांच्यो कक्षा वरूणाच्या विषुववृत्तीय पातळेकडेन एक अंशापरस कमी कलिल्ल्यो आसात. सव्याचो कल ५°, ट्रायटनचो कल १५७° आनी नेरीडचो कल २९° आसा. नेरीड आनी १९८९ एन १ ते १९८९ एन ६ हे स उपग्रह वरूणाभोंवतणी अपसव्य दिशेन भोंवतात. ट्रायटन मात हांच्या उरफाटो सव्य दिशेन भोंवता.

**वरूणाच्या उपग्रहांची म्हायती**

| उपग्रहाचें नांव | वरूणापसून अंतर (हजार किमी.) | अंतर (वरूणाचे त्रिज्येचे पटींत). | कक्षीय परिभ्रमण काल (वरां) | व्यास (किमी.) |
|---|---|---|---|---|
| १९८९ एन६ | ४८.0 | १.९४ | ७.१ | ५४ ± १६ |
| १९८९ एन५ | ५0.0 | २.0२ | ७.५ | ८0 ± १६ |
| १९८९ एन३ | ५२.५ | २.१२ | ८.0 | १८0 ± २0 |
| १९८९ एन४ | ६२.0 | २.५0 | १0.३ | १५0 ± ३0 |
| १९८९ एन२ | ७३.६ | २.९७ | १३.३ | १९0 ± २0 |
| १९८९ एन१ | ११७.६ | ४.७५ | २६.९ | ४00 ± २0 |
| ट्रायटन | ३५४.८ | १४.३३ | १४१.0 | २,७0५ ± ६ |
| नेरीड | ५,५१३.४ | २२२.६५ | ८,६४३.१ | ३४0 ± ५0 |

वरूणाक प्रभावी तशेंच घुस्पागोंदळाचें चुंबकीय क्षेत्र आसून ह्या क्षेत्राचो अक्ष परिभ्रमण आसाकडेन ४७° चो कोन करता आनी तो अक्ष वरूणमध्याकडल्यान वरूण त्रिज्येच्या 0.५५ पट अंतरावयल्यान वता. वरूणाचे चुंबकीय ध्रुव हे अपेक्षेपरस विषुववृत्ताच्या चड लागीं मेळळे. प्रजापतीच्या मानान वरूणाचें चुंबकीय क्षेत्र कमी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वरेरकर, भार्गवराम विठ्ठल :** (जल्म : २७ एप्रिल १८८३ चिपळूण; मरण : २३ सप्टेंबर १९६४ दिल्ली).

मराठींतलो नाटककार आनी कादंबरीकार. मामा वरेरकर ह्या नांवान तो चड प्रसिद्द आसा. ताचें मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण मालवणाक जालें. १८९८ वर्सा ताच्या बापायन ताका शाळेंतल्यान काडून रत्नागिरीच्या सिव्हील हॉस्पिटलांत वैजकीचें शिक्षण घेवपाखातीर 'मेडिकल प्यूपिल' म्हूण धाडलो. पूण शारिरीक दुबळेपणाकलागून तें शिक्षण सोडून ताका टपाल खात्यांत नोकरी करची पडली. सिव्हिल हॉस्पिटलांत आसतना मराठी कवी डॉ. कान्होबा रणछोडदास कीर्तिकर ताका शिक्षक म्हूण मेळ्ळो. ताच्या सहवासाचो आनी ताच्या दुर्मिळ ग्रंथसंग्रहाचो लाभ वरेरकराक जालो. शेक्सपिअराचीं नाटकां, नॉर्वेजियन नाटककार हेन्रिक इब्सेन, फ्रेंच नाटककार मोल्येर ह्या नाटककारांचीं नाटकांय ताणें वाचलीं. टपाल खात्यांत २० वर्सां नोकरी करून, उपरांत लिखाण होच वेवसाय ताणें आपणायलो. नाटकां, कादंबऱ्यो, कथा, रहस्यकथा अशा लिखाणाक ताणें सुरवात केली.

ताणें नाट्यलिखाणाच्या क्षेत्रांत पावल दवरलें तें 'कुंजविहारी' (१९१४) हें नाटक बरोवन. 'हाच मुलाचा बाप' (१९१७); 'संन्याशाचा संसार' (१९२०); 'सत्तेचे गुलाम' (१९२२); 'करीन ती पूर्व' (१९२७); 'सोन्याचा कळस' (१९३२); 'उडती पाखरे' (१९४१); 'सारस्वत' (१९४२); 'जिवा - शिवाची भेट' (१९५०); 'अ- पूर्व बंगाल' (१९५३); 'भूमिकन्या सीता' (१९५५) ह्या नाटकांभायर कांय एकांकिकाय ताणें बरयल्यात. रवींद्रनाथ टागोर, जेम्स बॅरी, हेन्रिक इब्सेन, विल्यम बॅरेट ह्या नाटककारांच्या नाटकांचो मराठी अणकारय ताणें केला. समाजांतल्या सर्वसामान्यांचे जीणेचेर उजवाड घालपी विशय ताणें नाटकाखातीर वेचिल्ले.

संसार की संन्यास (१९११), विधवाकुमारी (१९२८), धावता घोडा (१९३३), फाटकी वाकळ (१९४१), मी रामजोशी (१९४१), लढाई नंतर (१९४७) ह्यो ताच्यो प्रसिद्द कादंबऱ्यो.

बंगाली कथा - कादंबऱ्यांचे ताणें केल्ले अणकार हो ताच्या वाङमयीन कर्तृत्वाचो म्हत्वाचो पैलू. हे अणकार अशे - शरत्चंद्र चतर्जीकृत कादंबऱ्यांचे चंद्रनाथ (१९३८), श्रीकांत (भाग १ ते ४, १९३९ - ४१), बिराजबाउ (१९१४ - अणकार 'विराज - वाहनी', १९४३), शेषप्रश्न (१९४७) आनी चरित्रहीन (१९४९), बकिमचंद्र चतर्जीकृत कादंबऱ्यांचे आनंदमठ (१९५२), कपालकुंडला (१९५४), चंद्रशेखर (१९५४) दुर्गेशनंदिनी (१९५४); प्रभातकुमार मुखर्जी हाच्या कादंबऱ्यांचे, रत्नदीप (१९५५), सत्यबाला (१९५६) तशेंच कथा संग्रहांभितर षोडशी (१९३६), एकादशी (१९४४). शरतचंद्र चतर्जी, रवींद्रनाथ टागोर हांच्या कथांचेय ताणें अणकार केल्यात. स्वताच्या नाटकांतल्या पदांभायर 'विजयादशमी', 'उमाजी नाइकाचा पोवाडा' अशी कांय काव्यनिर्मिती करून 'माझा नाटकी संसार' ह्या नांवान

चार भागांतल्यान (१९४१, १९५२, १९५९ आनी १९६२) ताणें आपलें आत्मचरित्र बरयलें. ताणें बरयल्ल्यो रहस्यकथा, स्फुट लेखांचेंय प्रमाण खूब आसा. १९३८ वर्सा भरिल्ल्या मराठी नाट्य संमेलनाचें अध्यक्षपद, धुळे हांगाच्या १९४४ वर्सा भरिल्ल्या अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद आनी राज्यसभेचो सदस्य, हे भोवमान ताका प्राप्त जाल्यात.

१९५६ वर्सा ताका भारत सरकारा कडल्यान पद्मभूषण ही पदवी, १९५९ वर्सा पद्मविभूषण ही पदवी आनी १९६३ त संगीत नाटक अकादमीची फेलोशिप ताका फावो जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**वर्ख :** धातूचो पातळांत पातळ असो पत्रो. चडकरून वर्ख 0.00५ सेंमी. आनी त्यापरस पातळ आसता. तो एका धातूचो, मिश्रधातूचो वा जायत्या धातूंचे पत्रे एकाचेर एक दाळून तयार केल्लो जायते पदरीय आसता. वर्ख चडकरून वजनाक हलको, अक्रिय, लवचीक आनी अर्धदृढ आसून ताचेर सोपेपणीं चरे पडनात. तशेंच वास, वाफ, रूच, द्रव, वायू, ग्रीज, वसो, उजवाड हांचो वर्ख अप्रवेश्य आसता. हाकालागून वर्ख चडकरून वस्तू वा पदार्थ बांदपाखातीर वा पिशव्यो, पाकिटां सारक्या आवेश्टनांखातीर वापरतात.

भांगर आनी चांदीचो वर्ख खूब आदींसावन तयार करतात. भांगराचो वर्ख चडकरून हेर धातूंचेर गिलीट दिवपाखातीर वापरतात. चांदीचो वर्ख पानांचे विडे, मिठाय आनी हेर खाद्यपदार्थ सजोवपाखातीर तशेंच दंतवैद्यकांत आनी विद्युत् विलेपनांतय वापरतात. केन्ना केन्नाय चिनी मातयेच्या आनी कंवचेच्या वस्तूंवयल्या सुशोभनाचे नक्षीखातीर भांगराचो वर्ख वापरतात.

पयलीं चडकरून शिंशासारको मोव आनी प्रसरणशील धातूचो वर्खच व्हड प्रमाणाचेर तयार करताले. कागदाचें अस्तर लावन तो च्याचीं खोकीं आनी पुडे, शिगाराचीं पाकिटां, खावपाचे जिन्नस, चॉकलेटी, तंबाकूचीं बी आवेश्टनां हांचेखातीर आनी ख्रिसमस रूखावयले सोबीत अलंकार, डारवकाम, विद्युत् धारित्र हातूंत वापरताले. ताचेउपरांत कथिलाचो वर्ख वापरांत आयलो. तशेंच विद्युत् धारित्रांत वापरपाखातीर ८३% कथिल, १५% शिंसें आनी २% अँटिमनी आशिल्ल्या मिश्रधातूचो वर्ख तयार करताले. तांबें आनी जस्ताचोय वर्ख तयार करताले. आतां मात ह्या सगळयांची सुवात ॲल्युमिनियमाच्या वर्खान घेतिल्ली आसून तोच सगळेकडेन चडसो वापरतात.

लाटपाक येवपी स्वंयच्याय धातूपसून वर्ख तयार करतात. पूण वर्ख तयार करपाखातीर प्रसरणशील धातू सोयीचो आसता. धातू जितलो चड प्रसरणशील आसता तितको चड पातळ वर्ख तयार करूं येता. वर्खाखातीर धातू शुध्दय आसचो पडटा. वर्ख तयार करपाचे नदरेन धातूचें पुनर्स्फटिकीभवन तापमानय म्हत्वाचें आसता.

भांगर आनी चांदीचे वर्ख चडकरून घरगुती पातळेचेर आनी चडशे लाकडी हातोडेन ठोकून तयार करतात. हेखातीर अतिशुध्द भांगराच्या वा चांदीच्या पत्र्याचे ल्हान कुडके घेतात. तांचे मदीं चिवट कागदाचे वा शॅमॉय चामड्याचे कुडके घालून एकाचेर एक दवरतात. उपरांत चवडेचेर लाकडी हातोडे धोडावन वर्ख तयार करतात. दर एका ठोक्याउपरांत चवड फिरयतात. हाकालागून फुडलो ठोको दुसऱ्या जाग्याचेर बसून पत्रो पातळटा. हे पद्दतीन पातळ अशे वर्खाचे व्हड कुडके तयार जातात.

भारतांत भांगर आनी चांदिच्या वर्खाची निर्मिती चडकरून वाराणसीक जाता. सगळयांत चड वर्ख ॲल्युमिनियमापसून तयार करतात. ॲल्युमिनियमाच्या पत्र्याची घडी एके व्हड कुडीसारके भट्टेंत सु. २५0° से. मेरेन तापोवन सामकें थंड करतात. उपरांत पत्रो लाटण यंत्रान लाट्टात. लाटणक्रिया चालू आसतना पत्र्याचेर उबे दिशेंत दाब दितात आनी आडवे दिशेन तो ताण्टा. लाटण्यांतल्यान लाटिल्ल्या पत्र्यापसून बरो चकचकीत वर्ख तयार जाता. वर्ख तयार करपी कारखानो नितळ आसचो पडटा. वातावरणांत जर धुळ आसत जाल्यार वर्खाक बुराक पडटात. गरजेप्रमाण वर्खाची जाडाय नियंत्रीत करतात. ॲल्युमिनियमाचो 0.000५ सेंमी. मेरेन जाडायेचो वर्ख तयार करूं येता. चड पातळ वर्ख तयार करपाखातीर दोन पत्रे एकठांय लाटून मागीर दोनूय थर वेगळे करतात. चड चिवट वर्ख तयार करपाखातीर ॲल्युमिनियमाच्या मिश्रधातूंचे पत्रे वापरतात.

सुकें, ओलें आनी गोठयल्लें अन्न आनी खावपाचे जिन्नस, क्ष - किरण छायाचित्रणाखातीर वापरपांत येवपी फिल्म, वखदी गुळयो बी हेर वस्तूंखातीर आवेश्टन म्हणून ॲल्युमिनियमाचो वर्ख वापरतात. विद्युत् धारित्रासारकीं उपकरणां, नियंत्रण प्रणाली, खेळणीं, चमक दिवे, दुदाच्या बाटल्यांच्यो गुड्ड्यो, डबोबंदीकरण, शिळामुद्रण हातूंत हो वर्ख वापरतात. रत्नांची आनी अलंकारांची रंगछटा आनी चमक हांकां उठावपणा येवपाखातीरूय हो वर्ख वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**वर्ड्स्वर्थ, विल्यम :** (जल्म : ७ एप्रिल १७७0 कॉकरमथ, कंबर्लंड; मरण : २३ एप्रिल १८५0 ग्रासमिअर).

इंग्लीश कवितेक नवें वळण दिवपी एक युगप्रवर्तक कवी. ताका सैमकवी म्हणूनय वळखतात. इंग्लीश साहित्यांतल्या स्वच्छंदतावादी काव्यसंप्रदायाचो तो एक प्रणेतो. ताचे आवय बापूय ल्हानपणांतच सोंपले. ताच्या बापोल्यान ताचो सांबाळ केलो. सुरवेचें शिक्षण हॉकशीड हांगा 'ग्रामर स्कूलांत' घेतल्या उपरांत 'सेंट जॉन्स कॉलेजांत' ताणें प्रवेश घेतलो (१७८७). १७९१ वर्सा तो बी.ए. जालो. ताचेपयलीं ताणें १७९0 त फ्रांस आलप्स आनी इटालिची पांयांनी भोंवडी केल्ली. १७९१ वर्सा तो परत फ्रांसाक गेलो. फ्रेंच राज्यक्रांतीचो

तो प्रकर्षकाळ आशिल्लो. फ्रांसांतल्या वर्सभराच्या राबित्यांत हे क्रांतीचो ताचेर व्हड प्रभाव पडलो. फ्रांसांत आसतनाच आनेत व्हेलाँ हे चलयेच्या सांगतान ताणें कुटुंबीक जीण सारली. तिचेपासून ताका एक चलीय जाली. उपरांत ताणें मेरी हचीनसन हे आपले इश्टीणीकडेन लग्न करून संसार थाटलो.

१७९२ चे अखेरेक तो इंग्लंडाक परत आयलो. 'अॅन इव्हनिंग वॉक' आनी 'डिस्क्रिप्टिव्ह स्केचिस' ह्यो ताच्यो काव्यकृती १७९३ त प्रसिद्द जाल्यो. १७९५ च्या ऑक्टोबरांत डॉर्सेट हांगा ताणें एक घर घेतलें आनी थंय तो ताची भयण डॉरोथी हिचेवांगडा रावपाक लागलो. (१७७१ - १८५५). ती एक लेखिका आशिल्ली. तिणें बरयल्ले अॅल्फॉक्स्डन जर्नल १७९८ आनी ग्रासमिअर जर्नलस १८०० - ०३ हे रोजनामे वर्ड्स्वर्थच्या व्यक्तिमत्वाचेर उजवाड घालपाचे नदरेन म्हत्वाचे आसात. 'द बॉर्डरर्स' हें आपलें शोकात्म पद्यनाटक ताणें १७९५ - ९६ ह्या वर्सा बरयलें.

कोलरिज आनी वर्ड्स्वर्थ एकामेकांचे इश्ट आशिल्ले. तांच्यो कविता 'लिरिकल बॅलड्स' ह्या नांवान १७९८ त प्रसिद्द जाल्यात.

वर्ड्स्वर्थान आपलो राबितो जायते खेप बदलिल्लो. १७९९ च्या डिसेंबरांत तो आनी डॉरोदी वेस्टमोरलंडांतल्या ग्रासमिअर हांगा रावपाक आयलीं. १७९६ ते १८०६ हो ताच्या जिवितांतलो महान काळखंड मानतात. ताची जायती बरी काव्यनिर्मिती ह्याच दशकांत जाली. द प्रीलूड (१७९९ - १८०५) हें ताचें काव्य ह्याच दशकांतलें. मागीर मात १८११ पसून तो रायड्ल माऊंट हांगाच स्थायिक जालो. १८१३ त ताका 'डिस्ट्रिब्यूटर ऑफ स्टॅम्प्स फॉर द काउंटी ऑफ वेस्टमोरलंड' हें विनाश्रम पद दिलें. १८४३ त इंग्लंडचो राजकवी जावपाचो मान ताका फाव जालो.

'अॅन ईव्हनिंग वॉक' आनी 'डिस्क्रिप्टिव्ह स्केचिस' ह्या वर्ड्स्वर्थच्या सुरवेच्या कवितांचेर अठराव्या शेंकड्यांतल्या कवींचो प्रभाव दिसता. 'हिरोइक कप्लेट' आनी 'स्पेन्सरिअन स्टँझा' हे अठराव्या शेंकड्यांतले लोकप्रिय वृत्तप्रकार आशिल्ले. वयर दिल्ल्यो दोनय कविता 'हिरोइक कप्लेटां'त रचल्यात, जाल्यार 'गिल्ट अँड सॉरो ऑर इन्सिडंट्स अपॉन सॉल्झबरी प्लेन' हे कवितेखातीर ताणें 'स्पेन्सरिअन स्टँझा' चो वापर केला.

वर्ड्स्वर्थ हो सैमकवी आसलो तरी मनशाक आनी मानवी जीवनाक ताणें सैमाइतकेंच म्हत्व दिलां. सैम आनी मनीस हांच्यामदलो अतूट संबंद हे ताचे विशय आशिल्ल्या. 'अॅन ईव्हनिंग वॉकां'त ताणें विपन्नावस्थेंतली आवय आनी तिचीं उपाशी भुरगीं हांचें चित्रण केलां. 'डिस्क्रिप्टिव्ह स्केचिस' ही कविता ताणें फ्रांसांत आसतना, फ्रेंच राज्यक्रांतीच्या वातावरणांत बरयली. तातूंत राजकीय विचारांचें स्पश्ट सूचन व्हडा प्रमाणांत दिसता. '.. सॉल्झबरी प्लेन' त हें चड दिसता. हे कवितेचे मूळ संहितेंत वर्ड्स्वर्थान जायते खेप बदल केले. हे कवितेचो कांय भाग 'द फीमेल व्हॅग्रंट' ह्या शीर्शकान लिरिकल बॅलड्सांत प्रसिद्द जाला. वर्ड्स्वर्थाच्या सगळ्या काव्यसंकलनांत ही कविता 'गिल्ट अँड सॉरो' ह्या नांवान प्रसिद्द जाल्ली आसा. आत्मचरित्रात्मकता हें ताचे वट्ट कवितेचें एक लक्षणीय अशें खाशेलेपण आसा. इंग्लीश साहित्याक स्वच्छंदतेचें नवें वळण दिवपी लिरिकल बॅलड्स ह्या काव्यसंग्रहांत वर्ड्स्वर्थ आपले कवितेंतल्यान अतिमानुषतेकडेन समधर्मी अशी भावना साधपाखातीर आपले फुडें आशिल्ली जगांतली सोबीतकाय आनी अद्भुतता हांचेकडे आस्वादकांची मनां ओडून घेवपाक पळयतालो. सांकेतिक जिवीताच्या वाज हाडपी गजालींपसून पयस वचपाचो हो ताचो यत्न आसा अशें कोलरिजान ताच्या 'बायोग्राफिआ लितरारिआ' ह्या ग्रंथांत म्हटलां.

वर्ड्स्वर्थाक सैम गुरूस्थानी आशिल्लो. तातूंत ताका ईश्वराचो साक्षात्कार जातालो. 'लायन्स रिटन् अबव्ह टिंटर्न अॅबी' आनी 'ओड ऑन द इंटिमेशन्स ऑफ इम्मॉर्टॅलिटी' हांचेसारक्यो कविता ते नदरेन म्हत्वाच्यो आसात. वर्ड्स्वर्थाच्यो गांवगिन्या परिसरांतल्यो साद्याभाबड्या बायल - दादलो हांचेर बरयल्ल्यो भावकविताय लक्षणीय आसात. सुनीत ह्या काव्यप्रकारांतय ताणें वेगवेगळ्या तरांच्यो उत्कृश्ट रचना केल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**वर्णवेवस्था** : चार वर्णांचेर आदारिल्ली समाजसंस्था. हिंदू समाजाची रचना प्राचीन काळासावन चातुर्वर्ण्याचेर आदारल्या. चातुर्वर्ण्य म्हळ्यार चार वर्ण. ते म्हणजे ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र. हे संबंदीचे उल्लेख धर्मग्रंथांत चडकरून स्मृतिग्रंथांत स्पश्ट केल्यात. परमेश्वराच्या तोंडांतल्यान ब्राह्मणांची उत्पत्ती जाली, भुजांपसून क्षत्रिय, छातयेपसून वैश्यांची निर्मिती आनी पांयांपसून शूद्र उत्पन्न जाले अशी चार वर्णांची उत्पत्ती धर्मग्रंथांत मेळटा. ह्या चार वर्णांचो समाज जाता. ह्या चार वर्णांचो प्रतिलोम संकर निशिध्द मानला आनी ह्या चार वर्णांचो अनुलोम लग्नान जावपी संकर निशिध्द न्हय. अनुलोम संकर म्हळ्यार उंचेल्या वर्णांतलो दादलो आनी सकयल्या वर्गांतली बायल हांचें लग्न. उंचेल्या वर्गांतली बायल आनी सकयल्या वर्गांतलो दादलो हांचेपसून निर्माण जाल्ली संतत म्हळ्यार प्रतिलोम संकर. सगळ्यांत ऊंच ब्राह्मण, ताचे फाटल्यान क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र असो उच्च नीच भाव धर्मशास्त्रान मानला. ह्या अनुलोम - प्रतिलोम संकरांच्या योगान भारतीय समाज घडला. समान वर्णाच्या दादलो - बायलेपसून समान वर्णाचीच संतत जाता. हें लग्न खूब प्रशस्त मानलां. ब्राह्मण दादलो आनी क्षत्रिय बायलेपसून 'मूर्धावसिक्त' नांवाची जाती निर्माण जाता. ब्राह्मण दादलो आनी वैश्य बायलेपसून जाता ती 'अंवष्ठ' जात, ब्राह्मण दादलो आनी शूद्र बायलेपसून जाता ती 'पारशव' वा 'निषाद'. क्षत्रिय दादलो आनी शूद्र बायलेपसून जाता ती 'उग्र' जात अशें

म्हण्टात. वैश्य दादलो आनी शूद्र बायले पसून जाता ती 'करण' जात अशी अनुलोम संकराविशीं म्हायती मेळटा. क्षत्रिय दादल्यापसून ब्राह्मण बायलेक जाता ती 'सूत' जात. वैश्यापसून निर्माण जाल्ली 'वैदेहक' जात, ब्राह्मण बायलेक शूद्र दादल्यापसून जाता ती 'चंडाल' जात. ही सगळयांत नीच आनी बहिष्कृत जात मानताले. क्षत्रिय दादल्यापसून वैश्य बायलेक जाता ती 'माहिष्य' जात आनी वैश्य दादल्यापसून शूद्र बायलेक जाता ती 'करणी' जात. माहिष्य दादल्यापसून 'करणी' बायलेक जाता ती 'रथकार' जात.

क्षत्रियाचे पांचवे पिळगेक, कर्माक लागून उंचेल्या वर्णाची प्राप्ती जाता. वैश्याचे सातवे पिळगेक कर्माक लागून उंचेल्या वर्णाची प्राप्ती जाता. हें वर्णपरिवर्तन वर्णाचीं कर्मां म्हळयार कर्तव्यां बदलिल्ल्यान जाता, अशें याज्ञवल्क्य स्मृतींत म्हळां.

श्रेणीबध्द वर्णवेवस्था पुर्विल्ल्या काळांत कितल्या प्रमाणांत आनी खंयच्या स्वरुपांत समाजस्वास्थ्याक उपेगी थारली हाचेर खूब मतां आसात. पूण अशे चौकटींतले वर्णवेवस्थेक लागून सामाजिक विशमतेक खूब व्हड आदार मेळ्ळो. तशेंच हे वर्णवेवस्थेक फांटे फुटत गेल्ल्यान तातुंतल्यान खूब जाती निर्माण जाल्यो. पयलीं वर्णाविशीं विशमता आनी ताचीच परिणती म्हणून वेगवेगळया जाती विशींचे आचार - विचार दृढ जायत गेले. ताकालागून वेगवेगळ्या वर्णांत लग्नसंबंद करपाची प्रथा निशिध्द मानूंक लागले. हाका कांय अपवाद आसले तरी ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र हांच्यांत लग्नां जायना जालीं.

वर्णवेवस्था आनी जातवेवस्था आयजमेरेन वंशपरंपरेन चालू आसा. ह्या वेवस्थांनी वंशपरंपरेक म्हत्व दिवचें कांय गुणाक म्हत्व दिवचें हेविशीं स्मृतिकारांभितर एकमत नासलें तरी निमाणें वंशपरंपरेचो अभिमान चड घट जायत गेलो. वर्णाच्यो चवकटी जाल्यो. उपरांत ताचोच परिणाम असंख्य जातींच्यो चवकटी जाल्यो. चातुर्वर्ण्य समाजवेवस्थेंत जे चार वर्ण मानिल्ले त्या दर एका वर्णाचे अधिकार वेगळे आशिल्ले, कर्तव्यां वेगळीं मानिल्लीं. तांचे सामाजिक प्रतिश्ठेंत वेगळेंपण आशिल्लें. तेखातीर दर एका वर्णाची उच्च - नीचताय वेगवेगळी थारावन दिल्ली. सकयल्या श्रेणींतल्या वर्णाची व्यक्ती क्षमताय आनी गूण आसल्यार लेगीत उंचेले श्रेणींत वचूंक शकनासली. तशेंच उंचेले श्रेणींतली व्यक्ती ताचेकडे गूण आसूं वा नासूं उंचेले श्रेणींतूच कायम उरताली. ताका लागून दर एका वर्णाचे लोक आपलेच श्रेणींत कायमचे बध्द जाले. पयल्या वर्णाचे लोक ज्ञानी आनी विद्यासंपन्न; दुसऱ्या वर्णाचे लोक शूर आनी योध्दे; तिसऱ्या वर्णांतले लोक वेपारी आनी वेव्हारचतुर अशें मानल्यार चवथ्या वर्णांतले लोक कायमचे सेवाच करीत रावले. हाचो परिणाम ज्ञानसंपादनाचें क्षेत्र मर्यादित जालें आनी सामाजिक विशमताय वाडत गेली.

दर एक व्यक्ती आपल्या पुर्वजांच्या गुणांचे संस्कार आनी वेवसायाचें कौशल्य घेवनूच जल्माक येता अशें एक गृहीत तत्त्व हे वर्णवेवस्थे फाटल्यान आशिल्ल्यान, ह्या गृहीत तत्त्वाक कर्म आनी पुनर्जल्म ह्या आनीक दोन कल्पनांची जोड मेळ्ळी. ताचो परिणाम म्हणून वर्णवेवस्था ही जल्माचेर आदारून आसा अशें मत सामाजिक वेव्हारांत रूढ जालें. ज्या वर्णांत जो जल्मला, त्याच वर्णांत ताचें स्थान आनी कार्य, अधिकार आनी कर्तव्य कायमचें निश्चित जालें. पुर्वजांचे वेवसाय आनी गुणधर्म वंशजांनी, म्हळयार फुडल्या पिळग्यांनी मुकाट्यान मान्य करप हो धर्मशास्त्राचो नेम जालो. त्या नेमाप्रमाण थारिल्लीं कामां आनी थारिल्लें स्थान हातूंत बदल करूंक पळोवपी मनशाक, धर्मशास्त्रान ख्यास्तूय थारायली. वर्णवेवस्थेतलें आपलें स्थान आनी कर्तव्य पाळप ना हो अपराध थारलो. उपरांत ताका अणसरून प्रायश्चित्तासावन देहदंडामेरेन ख्यास्तूय जावपाक लागली.

हे सगळे वेवस्थेखातीर जीं गृहीत तत्त्वां मानिल्लीं तीं आर्विल्ल्या विज्ञानाचे कसवटीचेर तिगूंक शकना. देखून वर्णवेवस्थेचें समर्थन अशास्त्रीय मानचें पडटा.

आधुनिक अनुवंशशास्त्र, सुप्रजननशास्त्र हांच्या प्रयोगांचेर प्राचीन गृहीत तत्त्वां तिगूंक शकनात. शिक्षण, संस्कार, सहवास आनी परिस्थिती हाका लागून आनुवंशिकतेच्या गुणांत व्हडले बदल घडून येवंक शकतात हें बऱ्याचशा प्रयोगांनी सिध्द जालां. व्यक्तिविकासाक अनुकूल परिस्थिती अशें योग्य शिक्षण आनी संस्कार मेळळयार आनी बऱ्या सहवासाची संद लाभल्यार हीन मानिल्ल्या समाजांतली व्यक्तीय गुणसंपन्न जावंक शकता. हाचे उरफाटे अशी परिस्थिती वा शिक्षण संस्कार मेळळे नात जाल्यार उच्च म्हणून मानिल्ल्या वर्णांतली व्यक्तीय अवगुणांनी युक्त जावंक शकता. ह्यो गजाली शास्त्रान सिध्द जाल्यातूच पूण वेव्हारांतूय आमकां तसो पावला पावालाक अणभव येता. देखीक - ब्राह्मण घराण्यांत अडाणी आसात. क्षत्रिय म्हणून घेवपी दुर्बळ दिसतात, वैश्य जातींत अवेव्हारी आनी दिवाळखोर आसतात आनी शूद्र म्हणून बहिश्कृत मानिल्ल्या समाजांत शिक्षणाचे संस्कार जातकच विद्वान, सृजनशील लेखक, कलावंत आनी प्रशासक जावंक शकतात. हाचोच अर्थ असो की, इतिहासान आनी जीवशास्त्रान वर्णवेवस्थे फाटल्यान वंशपरंपरेन प्राप्त जावपी गुणधर्मांचें जें गृहीत तत्त्व मानलां तें चुकीचें थारता, अवैज्ञानिक थारता.

चातुर्वर्ण्याचेर विज्ञानाचे नदरेंतल्यान पळयल्यार ताची अशास्त्रीयता, असमर्थनीयता स्पश्ट जाता. भारताचे राज्यघटनेन वर्णवेवस्था आनी जातिभेद अशास्त्रीय मानल्या. जातीभेद नश्ट करपाक आदारभूत अशे कायदे केल्यात. पुरोगामी विचाराचो समाज वर्णभेद आनी जाती भेद अशा अशास्त्रीय संकल्पनांक जाणीव पूर्वक विरोध करीत आयला.

- कों. वि. सं. मं.

**वर्धन राजवंश :** (इ.स. ५०० - ६४६).

स्थानेश्वर, थानेसर वा स्थाण्वीश्वर हांगा राज्य करपी एक वंश बाणाच्या हर्ष चरिताप्रमाण श्रीकंठ नांवाच्या वाठारांत स्थाणीश्वर नांवाचो एक भाग आशिल्लो आनी त्याच नांवाचें एक नगरय आशिल्लें. थंय वर्धन वंशांतल्या पुष्पभूती नांवाच्या मनशान आपल्या राज्याची स्थापना केली. ताच्या उपरांतच्या राजांचीं नांवां बाणान दिवंक ना. पूण ताचे कथेक प्रभाकरवर्धना सावन सुरू जाता. राजमुद्रा आनी अभिलेखांत नरवर्धन, राज्यवर्धन आनी आदित्यवर्धन ह्या प्रभाकर वर्धनाच्या पयलींच्या राजांचीं नांवां मेळटात. ह्या तीन राजांक फकत महाराज ही उपाधी आशिल्ली, जाल्यार प्रभाकरवर्धनाक मात महाराजाधिराज ही उपाधी आशिल्ली. प्रभाकर वर्धनान इ.स.च्या सव्या शतमानाच्या निमाण्या चरणांत राज्य केल्लें आसूंक जाय. इ.स. ६०४ च्या सुमाराक ताका मरण आयलें.

प्रभाकरवर्धनाच्या आदले राजा गुप्ताचे वा मौखरींचे सामंत आसुंये. प्रभाकर वर्धनान मात आपलें राज्य स्वतंत्र केलें आसूंक जाय. ताणें आपल्या राज्याचो बरोच विस्तार केल्लो. पुराय पंजाब आनी माळव्याचो कांय भाग ताणें आपले सत्तेखाल हाडिल्लो.

प्रभाकरवर्धनाक राज्यवर्धन आनी हर्षवर्धन हे दोन पूत आनी राज्यश्री नांवाची एक धूव आशिल्ली. मौखरी राजा ग्रहवर्मा हाचेकडेन राज्यश्रीचें लग्न जालें. प्रभाकरवर्धनाउपरांत राज्यवर्धन राज्य करूंक लागलो.

त्यावेळार बंगालचो राजा शशांक बरोच बळिश्ट जाल्लो. ताणें माळव्याच्या राजाकडे मेळ साधलो. राज्यवर्धन राज्यार येतकच माळव्याच्या राजान कनौजाचेर घुरी घालून मौखरी राजा ग्रहवर्मा हाका जिवेशीं मारलो आनी राणी राज्यश्री हिका बंदी केली. स्थानेश्वराचेरय घुरी घालपाचो ताचो बेत आशिल्लो. तें कळटकच राज्यवर्धन १०,००० घोडदळ घेवन ताचेर चाल करून गेलो. ताणें माळव्याच्या राजाक सहज हारयलो आनी उपरांत तो कनौजाक गेलो. पूण वंगाधिपती शशांक हाणें वाटेरच कपटान ताका जिवेशीं मारलो अशें म्हण्टात. पूण ताच्या मरणाविशीं निश्चीत म्हायती मेळना.

तेउपरांत इ.स. ६०६ त हर्षवर्धनाक सिंहासनाचेर बसयलो. ताणें शशांकाचो सूड घेवपाखातीर कामरुपाचो राजा भास्करवर्मा हाचेकडेन इश्टागत केली. सुरवेक ताणें राज्यश्रीक सोडोवपाचें काम हातांत घेतलें. पूण शशांकान तिका मुक्त केल्ल्याची बातमी हर्षाक कळ्ळी. राज्यवर्धनाच्या मरणाची बातमी कळटकच तिका वायट दिसलें. दुखान तिणें विंध्यारण्यांत वचून लासून घेवपाचें थारायलें पूण योग्य वेळार हर्ष थंय पावन तो तिका घरा घेवन आयलो.

उपरांत हर्ष दिग्वीजय करपाक भायर सरलो. सुरवेक ताणें उदेंत भारताचेर घुरी घालून कांय वाठार जिखले. पूण राजा शशांकाचेर मात तो जैत जोडूंक शकलो ना. तेचपरी दक्षिणेकडल्या दिग्वीजयांतूय ताका यश मेळूंक शकलें ना. चालुक्य राजा पुलकेशी हाणें ताका हारयल्ल्यान ताका नर्मदेचे दक्षिणेकडलो वाठार जिखूंक मेळ्ळो ना. इ.स. ६१२ च्या सुमाराक ताणें कनौज हांगा आपली राजधानी व्हेली.

वलभीचो मैत्रक राजा हो ताचो जांवय आनी कामरुपाचो भास्करवर्मा हो ताचो इश्ट आशिल्ल्यान ते दोगूय ताची सत्ता मानताले. तेचपरी ताच्या पराक्रमाक लागून उत्तर भारतांतले हेर राजेय ताका दबून आसताले. पूण उदेंत पंजाब, उत्तर प्रदेश, बिहार, अस्तंत बंगाल आनी ओडिसा ह्या वाठारांच्या भायर ताची सार्वभौम सत्ता पावंक नाशिल्ली.

आपले राजवटीचे निमाणें हर्षान उदेंत भारताचेर परत घुरी घाली. त्यावेळार राजा शशांकाक मरण आयिल्लें. भास्करवर्म्याच्या आदारान हर्षान मगध आनी अस्तंत बंगाल ह्या वाठारांचेर जैत मेळयलें.

इ.स. ६४६ च्या निमाणें हर्षवर्धनाक मरण आयलें. ताका कोणच वारस नशिल्ल्यान ताचें सिंहासन ताचो मंत्री अर्जुनाश्व हाणें हस्तगत केलें.

हर्षवर्धन हो एक व्हड सम्राट, म्हान शासक आनी शूर सेनापती आशिल्लो. ताणें जायत्या विद्वानांक आपल्या राज्यांत आलाशिरो दिल्लो. ताणें संस्कृत नाटकांय बरयल्लीं. नामनेचो संस्कृत लेखक बाणभट्ट हो ताच्या दरबारांत आशिल्लो. सुरवेक तो शिवभक्त आशिल्लो. पूण जिविताच्या निमाण्या काळांत तो बौध्द पंथाचो पक्षपाती जाल्लो. ताणें जायते स्तूप आनी बौद्व मठ बांदले. तेचपरी दर वर्सा तो बौध्द परिशद भरयतालो.

- कों. वि. सं. मं.

**वर्मा, धीरेंद्र :** (जल्म : १७ मे १८९७, बरेली; मरण : १९७३).

भाशाशास्त्रज्ञ, समीक्षक आनी हिंदी भाशेचो विद्वान प्राध्यापक. भुरगेपणांत ताचो बापूय खानचंद हाच्या संस्कारांतल्यान आर्यसमाजी वातावरणाचो आनी भारतीय संस्कृतीचो प्रभाव ताचेर पडलो. १९२१ वर्सा 'म्यूर सेंट्रल कॉलेज' अलाहाबाद हांगाच्यान संस्कृत घेवन तो एम्. ए. जालो. १९३४ वर्सा तो पॅरिसाक गेलो आनी नामनेचो फ्रेंच भाशाशास्त्रज्ञ ज्यूल ब्लॉक हाच्या मार्गदर्शनाखाल ब्रज भाशा ह्या विशयाचेर १९३५ वर्सा शोधप्रबंध बरोवन ताणें डी. लिट्. पदवी मेळयली. अलाहाबाद विश्वविद्यालयांत हिंदीचो पयलो अध्यापक म्हूण १९२४ वर्सा ताची नेमणूक जाली. उपरांत थंय प्राध्यापक आनी हिंदी विभागाचो मुखेली म्हूण ताणें काम पळयलें आनी थंयच्यानूच तो निवृत्त जालो. ते उपरांत सागर विद्यापिठांत भाशाशास्त्र विभागाचो मुखेल म्हूण ताणें काम केलें. १९२७ वर्सा सावन तो 'हिंदुस्थानी ॲकेडेमी' हे संस्थेचो वांगडी म्हूण आनी उपरांत चिटणीस म्हूण काम

पळयलें. १९५८ - ५९ वर्सा 'लिंग्विस्टिक सोसायटी ऑफ इंडिया' हे संस्थेचो तो अध्यक्ष आनी जबलपूर विद्यापिठाचो उपकुलगुरू आशिल्लो.

हिंदी साहित्यांतल्या संशोधनकार्यांत ताचें स्थान चड म्हत्वाचें आसा. ताच्या मुखेल संपादकत्वाखाल तयार जाल्ले 'हिंदी साहित्य कोश' हे दोन भागांनी १९५८ आनी १९६३ प्रकाशित केले. हें हिंदी भाशा साहित्याच्या क्षेत्रांतलें एक मोलाचें आनी संस्मरणीय कार्य. तेभायर ताचे उल्लेख करपा सारके ग्रंथ म्हळ्यार हिंदी भाषा का इतिहास (१९३३), ब्रज भाषा व्याकरण (१९३७), अष्टछाप (१९३८) सूरसागर - सार (१९५४ सूरदासाच्या वेंचीक ८१७ पदांचें संकलन - संपादन), ब्रज भाषा (मूळ फ्रेंच प्रबंधाचें हिंदी रुपांतर - १९५७), हिंदी साहित्य (संपादन १९५९), ग्रामीण हिंदी, हिंदी राष्ट्र, विचार धारा हे निबंद संग्रह शिकता आसतना तेभायर महाविद्यालयात १९१७ ते १९२३ ह्या काळांत बरयल्लें मेरी कालिज डायरी (१९५४), भारतीय संस्कृती संबंदीं व्याख्यानांचो मध्यदेश हो ग्रंथ (१९५५), कंपनीके पत्र (१९५९) युरोपके पत्र हो युरोपच्यान धाडिल्ल्या पत्रांचो संग्रह हे ताच्या वेगवेगळ्या विशयांवयले उल्लेख करपा सारके ग्रंथ आसात.

ताच्या मार्गदर्शनाखाल कितल्याशाच संशोधकांनी डॉक्टरेट पदवी मेळयली. विद्यापिठांतल्यान हिंदी भाशा आनी साहित्य हांचो अभ्यास योग्य तरेन जावंचो हेखातीर ताचे यत्न मोलाचे आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**वर्मा, निर्मल :** (जल्म : ३ एप्रिल १९२९, सिमला).

ज्ञानपीठ पुरस्कार फाव जाल्लो नामनेचो हिंदी कथाकार. ताचें भुरगेंपण दोंगुल्ल्याच्या वाठारांत गेलें. दिल्लीच्या सेंट स्टीफेंस कॉलेजीत ताणें इतिहास विशयांत एम्.ए.ची पदवी मेळयली. उपरांत तो कांय वर्सां अध्यापनाचें काम करतालो. १९५९ वर्सा ताका चेकोस्लोवाकिया हांगा प्राच्यविद्या संस्थान आनी चेकोस्लावाक लेखक संघ हाचेवतीन ताका आमत्रंण आयलें. थंय तो सात वर्सां उरलो. ताणें थंय चेक कथांचो अणकार केलो. उपरांत तो लंडनांत गेलो. ताचे युरोप भोंवडेवेळार ताणें टाइम्स ऑफ इण्डियाखातीर थंयचे संस्कृतीक राजनितीक अडचणींचेर लेख बरयले. १९६८ वर्सा तो भारतांत आयलो. कांय तेप तो निराला सृजनपीठ आनी यशपाल सृजनपीठ हांचो अध्यक्ष आशिल्लो.

ताचो पयलो कथासंग्रह 'परिंदे' १९५८ वर्सा उजवाडाक आयलो आनी तेन्नाच्यान ताका खर संवेदनाचो रचनाकार म्हूण नामना मेळ्ळी आनी कथांच्या मळार तो सर्वश्रेश्ठ कथाकार थारलो. ताच्यो नामनेच्यो कथा अशो : माया दर्पण, देढ इंच ऊपर, धूप का टुकडा, अँधेरे में, लंदन की एक रात, जलती झाडी, जिन्दगी यहाँ और वहाँ आदी.

- कों. वि. सं. मं.

**वर्मा, महादेवी :** (जल्म : १९०७, पुरूखाबाद - उत्तर प्रदेश; मरणः ११ सप्टेंबर १९८७, अलाहाबाद).

नामनेची हिंदी छायावादी कवयित्री आनी लेखिका. तिचो



बापूय गोविंदप्रसाद हो भागलपूरच्या महाविद्यालयाचो प्राचार्य आनी आवय हेमराणी विदुषी आशिल्ली. महादेवीक आपल्या आवयकडल्यान मीराबाई आनी तुलसीदास हांच्या पदांची वळख जाल्ली. अशा विद्या संस्कार संपन्न वातावरणांत ती ल्हानाची व्हड जाल्ली. तिचें हिंदी, संगीत आनी चित्रकलेचें शिक्षण घराच जालें. मुखावयलें शिक्षण इंदूरच्या मिशन स्कूलांत जालें. १९१६ वर्सा स्वरूपनारायण वर्मा वांगडा तिचें लग्न जालें. पूण तें थोडोच तेंप तिगलें. १९३३ त प्रयाग विश्वविद्यालयांतल्यान संस्कृत विशय घेवन ती एम. ए. जाली आनी रोखडीच प्रयाग महिला विद्यापिठांत प्राचार्य म्हूण तिची नेमणूक जाली आनी फुडें ती महिला विद्यापिठाची कुलगुरूय जाली.

कांय काळ 'चाँद' म्हयन्याळ्याचें संपादकपद तिणें पगाराबगर सांबाळ्ळें. ह्या म्हयन्याळयांतल्यान तिणें आपल्यो सुरवातीच्यो कविता उजवाडायल्यो. सुरवातीच्या काळांत तिचेर मैथिलीशरण गुप्त हाचो प्रभाव आशिल्लो. ताकालागून तिणें खडी बोलींत 'रोला' आनी 'हरिगीतिका' छंदांत कविता रचल्यो.

तिचो 'नीहार' हो पयलो काव्यसंग्रह १९३० वर्सा उजवाडा आयलो. १९३२ वर्सा 'रश्मि', १९३४ वर्सा 'नीरजा', १९३६ वर्सा 'सांध्यगीत' ह्या चारूय संग्रहांतल्यो वेंचीक कविता संकलित करून तिणें 'यामा' हो काव्यसंग्रह १९३९ वर्सा उजवाडायलो. 'दीपशिखा' (१९४०), 'आधुनिक कवि - महादेवी' (१९४१) ह्या संग्रहांत तिच्या सगळ्याच कवितांतल्यान स्वता वेंचील्ल्या कवितांचें संकलन केलां. सप्तपर्णा (१९७०) ह्या संग्रहांत ऋग्वेद, अथर्ववेद, सामवेद, वैदिक साहित्य आनी वाल्मिकी, अश्वघोष, कालिदास, भवभूती, जयदेव हांच्या वेंचीक उताऱ्यांचें हिंदी रुपांतर आसून, ताका ६० पानांची विस्तृत प्रस्तावनाय आसा. 'अतीतके चलचित्र' (१९४१), स्मृतिकी रेखाएँ (१९४३), मेरा परिवार (१९७४) हे तीनूय तिचे संस्मरणात्मक रेखाचित्रांचे संग्रह. शृंखलाकी कडियाँ (१९५०), क्षणदा (१९५६), साहित्यकार की आस्था तथा अन्य निबंध (१९६२) हे बायलांविशीं ललित आनी आलोचनात्मक निबंदांचे संग्रह. 'पथके साथी' (१९५६) हातूंत साहित्यिकांच्यो यादी आनी वैशिश्टां तिणें स्पश्ट केल्यांत तशेंच हिमालय, संधिनी हे काव्यसंग्रहय तिणें संपादीत केले.

उत्तर प्रदेश विधानसभेची कांय तेंप ती वांगडी आशिल्ली. तिका वेगवगळे मानसन्मान फावो जाल्यात ते अशे - तिच्या यामा ह्या काव्यसंग्रहाखातीर १९८२ चो शास्त्रीय ज्ञानपीठ पुरस्कार, नीरजा काव्यसंग्रहाखातीर सक्सेरिया पारितोशिक (१९३४) वर्सा, मंगलाप्रसाद पारितोशिक पद्मभूषण (१९५६) आनी विक्रम विद्यापीठ, उज्जैन हांचेकडल्यान १९७१ वर्सा, डी. लिट्. १९८३ वर्सा भारत भारती पुरस्कार.

तिणें आपल्या गद्य साहित्यांतल्यान सामान्य उपेक्षित व्यक्तींचीं दुरवखां, अडचणी हांचीं सहानभूतीन रंगयल्लीं व्यक्तिचित्रां उबीं केल्यांत.

काव्यांत अंतर्मुख जावन स्वताबद्दल विचार करपी महादेवीचें बहिर्मुखी आनी समाजोन्मुख व्यक्तिमत्व तिच्या गद्य लिखाणांत प्रकट जालां.

- कों. वि. सं. मं.

**वऱ्हाडी बोली :** मराठी भाशेची एक बोली. बुलढाण्याचो उदेंत वाठार, एलिचपूर, बैतूल सिवनी आनी बालाघाट ह्या वाठारांचो दक्षिण भाग तशेंच भंडारा, चांदा, वणी आनी वाशीम ह्या वाठारांत ही बोली चलता. हे बोलयेचे प्रांत, जात आनी धंदो हांचेवयल्यान कांय उपभेद जाल्ले आसात. घाटावयली वऱ्हाडी आनी घाटासकयली वऱ्हाडी अशे तिचे दोन भेद आसून नागपुरी, बालाघाटी, चांदा हे तिचे वाठारा प्रमाण उपभेद आसात. झारपी, धनगरी, कतिया, कुणबी, कुंभारी, महारी आनी गोवरी हे तिचे जातीवयल्यान पडिल्ले उपभेद आसात. केवठी आनी हळवी हे तिचे आनीक दोन भेद आसात.

**वऱ्हाडी बोलीचें मूळ स्वरूप अशें :**

१) दीर्घ स्वर - हातूंत दीर्घ स्वर आनी चड करून अंत्यदीर्घ स्वर ऱ्हस्व उच्चारतात. देखीक : मी वा मि. माही वा माहि.

२) प्रमाण मराठी भाशेंत जंय ए हो अंत्य स्वर येता थंय वऱ्हाडी भाशेंत अ घालतात. देखीक : सांगितले हाच्या जाग्यार सांगितल, त्याने जाग्यार त्यान.

३) इ आनी व ह्या बदला वऱ्हाडी बोलिंत ए आनी य हे वर्ण येतात. देखीक : दिले - देल्ल, वेळ - येळ.

४) आद्य ए चो उच्चार वऱ्हाडींत ये असो करतात.
देखीक : एक - येक.

५) अ आनी अवि ह्या दोगांयबदला ओ हो स्वर उच्चारतात.
देखीक : जवळ - जोळ, उडविला - उडोला.

६) अनुनासिकांचो उच्चार प्रमाण मराठीवरी अर्दो करीनासतना स्पश्ट करतात. तूं - तून्, देवाशीं - देवाशीन्.

७) भविश्यकाळी रुपांत न बदला ल येता. देखीक : मी मारीन - मी मारील.

८) प्रमाण मराठींतलीं नपुंसक लिंगी एकवचनी आनी अनेक वचनी एँ कारान्त रूप वऱ्हाडींत जायतेफावट अकारान्त जाता. देखीक : पोरगें - पोरग, माणसें - माणस. ह्या नामांचें विशेशण मात नपुंसकलिंगी अनेक वचनांत उरनासतना पुंल्लिंगी अनेक वचनांत उरता.
देखीक : चांगलीं माणसें - चांगले माणस.

९) मराठींतल्या चतुर्थीच्या ला प्रत्ययाबद्दल वऱ्हाडींत ले प्रत्यय येता. देखीक : बापाला - बापाले.

१०) अनेकवचनाच्या प्रत्ययाआदीं वऱ्हाडींत ही वा ई हो आगम येता. देखीक : बापांस - बापाईस, बापाहीस; माणसांना - माणसाइले.

११) 'काय' ह्या प्रश्नार्थक सर्वनामांचीं पंचमीचीं रुपां काव्हून, काहून, काम्हून अशीं जातात.

१२) द्वितीय पुरुष आनी तृतीय पुरुष हांचीं एक वचनी रुपां सारकींच जातात. देखीक - तू आहे, तू गेला.

१३) आज्ञार्थ द्वितीय पुरुषी एकवचनी रुपां यकारान्त जातात. देखीक : जाय, खाय पाह्य.

- कों. वि. सं. मं.

**वलभी विद्यापीठ :** सौराष्ट्रांतल्या भावनगर लागसार आशिल्लो एक गांव. ताका सद्या वल ह्या नांवान वळखतात. पुर्विल्ल्या काळांत हो गांव खूब भरभराटीक आयिल्लो. ताच्या लागसारच एक नामनेचें बंदर आसून थंयसावन भारताचो भायल्या देशांकडे वेपार चलतालो.

वलभी ही मैत्रक राजवंशाची राजधानी आशिल्ली. सद्या भावनगरालागसार ह्या नगराचे अवशेश मेळ्ळयात. कथा सरित्सागरांतल्या जीमूतवाहनाचे कथेंत वलभीचो 'एक वेपारी ठाणें' म्हूण उल्लेख आयिल्लो आसा. थंय वैश्यांची खूब व्हड वसणूक आशिल्ली. वलभी हें जशें वेपार धंद्याचें ठिकाण आशिल्लें तशेंच तें विद्येचें कुळार आशिल्लें अशें कथासरित्सागरांत म्हळां. हाचेवयल्यान गुप्तकाळाआदीं जायतीं शतमानां वलभीचें म्हत्व गाजतालें अशें दिसता.

पुर्विल्ल्या काळांत जंय जंय व्हड वेपारधंदो चलतालो थंय जैन आनी बौध्द धर्माचो चड प्रसार जालो, अशें दिसून येता. हें धर्मप्रसाराचें काम बरे भशेन जावचें ह्या हेतान जैन आनी बौध्द आचार्यांनी अशा उद्देगीक थळार आपले विहार बांदले. ह्या विहारांत रावन विद्वान आनी चारित्र्यवान भिक्षू वा श्रमण आपआपल्या शिश्यांक गिन्यान दिवपाचें कार्य करताले.

जैन धर्मांत वलभीक एक खाशेली सुवात आसा. पुर्विल्ल्या काळांत वेदांवरी जैनांचे धर्मग्रंथ लिपीबध्द नासताले. ते गुरू वरवीं शिश्य तोंडपाठ करताले. ही पद्दत चड काळ तिगप शक्य नाशिल्ल्यान जैन धर्माविशीं धाकधूक निर्माण जावंक लागली. आपले धर्मग्रंथ कागदार उतरावन काडीना जाल्यार, जैन धर्म ल्हव ल्हव नश्ट जातलो ह्या भंयान कांय विचारवंत जैन आचार्यांनी जैन सिध्दांत

बरोवन काडपाचें थारयलें. हें काम सुमार चार शतमानां चलिल्लें. मगधांतल्या पाटलीपुत्र हांगा तें सुरू जालें आनी वलभी हांगाचे एके धर्मपरिशदेंत त्या कार्याक मान्यताय मेळ्ळी. ही धर्मपरिशद इ.स. ४५४ त वलभी हांगा थंयचो मुखेल आचार्य देवर्धिज्ञानी हाचे अध्यक्षतेखाल भरिल्ली. हे परिशदेन ४१ सुत्रां, ३० प्रकीर्णां, १२ निर्युक्ती आनी एक महाभाश्य अशा ८४ लिखीत ग्रंथांक मान्यता दिल्ली.

इ.स. ४५० ते ७७५ ह्या काळांत वलभी विद्यापिठाची खूब नामना आशिल्ली. नालंदा आनी वलभी विद्यापिठांत बऱ्याच गजालींनी सारकेंपण दिसून येता. ह्या विद्यापिठाचे भरभराटीक मैत्रक राजांचो हातभार लागलो. हांगाच्या ध्रुवसेन राजाच्या दुड्डा नांवाचे भाच्चेन वलभी विद्यापिठाची पयली इमारत बांदली अशें सांगतात. जायत्या राजांनी ह्या विद्यापिठाच्या निर्वाहाखातीर जायत्या खेड्यांचें उत्पन्न लावन दिल्लें. जायत्या जाणांनी भुरग्यांखातीर इमारती बांदिल्ल्यो. थोड्याच काळांत ह्या विद्यापिठांत १०० संघाराम तयार जाले आनी ६,००० विद्यार्थी थंय शिक्षण घेवंक लागले. सगळया जातींचे आनी सगळया पंथांचे विद्यार्थी पयसुल्ल्या वाठारांतल्यान हांगा शिक्षण घेवंक येताले. जैन धर्माविशींचें खाशेलें शिक्षण हांगा मेळटालें.

गुणमती आनी स्थिरमती हे बौध्द पंडित हांगा आपल्या धर्माचें शिक्षण दिताले. ह्या पंडितांचो विहार गांवां भायर आशिल्लो आनी ताका 'बप्पपाद विहार' अशें म्हण्टाले. संस्कृती, शिक्षण आनी आचार्य ह्या तीन गजालींखातीर वलभी विद्यापिठाक नामना मेळिल्ली. वलभींत शिकून गेल्ल्या विद्यार्थ्यांक राजदरबारांत आलाशिरो मेळटालो.

वलभी विद्यापिठांत जैन धर्मा वांगडाच हेर ७२ विशय शिकोवप जाताले. तातूंत लेखनकला, गणित, गायन, वादन, नाच, व्याकरण, ज्योतिश, निरूक्त, निघंटु आदी विशयांचो आस्पाव आशिल्लो. ह्या ७२ विशयांची सूची राजशेखरसुरीन आपल्या प्रबंधकोशांत दिल्ली आसा. पूण हे सगळे विशय सक्तीचे नाशिल्ले. विद्यार्थ्याक ज्या विशयांत आवड आशिल्ली ते ते विशय विद्यार्थी पसंत करताले. पूण जांचो राज्यकारभाराकडे संबंद आसतालो अशा राजपुत्रांक, प्रधानपुत्रांक आनी मान्यवरांच्या पुतांक सगळया तरेच्या विशयांची सामान्य म्हायती दिताले.

- कों. वि. सं. मं.

**वलैयन** : एक जात. तमिळनाडू प्रदेशांतल्या मदुरा, तंजाऊर आनी तिरुचिरापल्ली ह्या जिल्ह्यांत तांची वसणूक आसा. वलै म्हळयार जाळ. हे लोक रानांत जाळ घालून शिकार करताले. ताका लागून ह्या लोकांक वलैयन हें नांव मेळ्ळें अशें म्हण्टात. तंजाऊरांतले वलैयन लोक नामनेचो शैव संत कण्णप्प नायन्मार हाका आपलो पुर्वज मानतात.

वलैयनांच्यो मोनथिन्नी, पासिकट्टि, सरगू वन्नियन, वेल्लांपुत्तू आदी पोटजाती आसात. मदुरा जिल्ह्यांतल्या वलैयनांच्यो वहनी, वलट्टू, करदी आनी कंगू अशो चार पोटजाती आसात. कंगू जातीचेय पासिकट्टी आनी करैकट्टी अशे दोन पोटभेद आसून पासिकट्टी बायलो लग्नाची कुरू म्हणून ताळी जाग्यार मणयांची माळ गळयांत घालतात आती करैकट्टी बायलो घोड्याच्या केसांचो हार घालतात.

ह्या लोकांच्यो सिंग पिडारी (ऐयनार), पडिनेत्तंपड्डी करूप्पन, पप्पयर आदी देवता आसात. माघ म्हयन्यांत तांचो वर्सुकी उत्सव जाता. ह्या दिसा सगळे लोक ऐयनारच्या देवळांत वचून तांकां पांयां पडटात. उपरांत दादले शिकारेखातीर रानांत वतात. शिकारेसावन ते परत आयले म्हणजे घरांतल्यो जाण्टयो बायलो तांकां उंवाळटात. शिकार करून हाडिल्लें जनावर गांवचो मुखेली सगळयांक वांटून दिता. उपरांत सगळे लोक बरो भेस करून रानांत वतात आनी थंय वेगवेगळे खेळ खेळटात. हाचेभायर हे लोक भुताचीय पुजा करतात. नागाची पुजा करून ताका कोंब्याचो बळी दितात.

हे जातींत चलो मामे भयणीकडेन लग्न करूंक शकता. हेर चलये वांगडा लग्न थारावपाचें आसल्यार मामाची संमती घेवंची पडटा. लग्नाच्या विधींत न्हवऱ्याची भयण जमिल्ल्या सगळया लोकांक पयलीं ताळी (मणी) दाखयता आनी मागीर ती व्हंकलेच्या गळयांत बांदतात. लग्न मार्गशीर्ष ते वैशाख म्हयन्यांत केन्नाय करतात. पूण गर्भादान विधी मात आर्दी म्हळयार कार्तिक म्हयनो सोंपलेबगर करीनात. ताचे आदीं हो विधी केल्यार चैत्र म्हयन्यांत भुरगें जावपाची शक्यताय आसता. हे लोक चैत्र म्हयन्याक खुबूच अशुभ मानतात. तांच्यांत विधवेचें लग्न तशेंच घटस्फोटाचीय चाल आसा. घटस्फोट घेवपाक जमातीक दंड दिवंचो पडटा.

चलयेक पयले खेप न्हाण आयलें म्हणजे तिका पंदरा दीस एके नवे खोंपटेंत दवरतात. उपरांत ती खोंपटी लासून उडयतात. ह्या काळांत ते जातींतल्यो चलयो तिका मेळपाक वतात आनी खोंपटे भायर बसून पदां म्हण्टात.

वलैयनाच्या जातीमुखेल्याक कंबलियन अशें म्हण्टात. तो कांबळीचेर बसून न्याय करता देखून ताका हें नांव मेळ्ळां आसूंक जाय.

ह्या लोकांत मडें पुरतात. तेचपरी निमणो संस्कार ते सोळाव्या दिसा करतात. पंदराव्या दिसा मड्याचो जंय जीव गेला त्या जाग्यार उदकान भरिल्लें एक आयदन आनी दोन नाल्ल दवरतात. सोळाव्या दिसा मेल्ल्या मनशाचे सोयरे मुंडन करून तळयांत न्हातात. उपरांत उदकान भरिल्ल्या आयदनाकडेन एक चवकोन करून तातूंत उजो पेटयतात आनी भिकाऱ्यांक अन्नदान दितात.

ह्या लोकांत घोव मरतकच ताची बायल खांद्यार उदकान भरिल्लें एक मडकें घेवन गांवांतले आपले जातींतले मालकेच्या

जाग्याभोंवतणी तीन फेरयो घालता. फेरी पुराय जाली म्हणजे म्हालो मडक्याक बुराक करता. तीसरी फेरीय पुराय जाली म्हणजे म्हालो तें मडकें शेंवटून मारता आनी मेल्ल्या आत्म्याक सोपूत घालून म्हण्टा 'विधवेक आनी तिच्या भुरग्यांक शांतीकाय मेळूं दी'.

जाळ घालून शिकार करप हो तांचो मुखेल वेवसाय आसा. हाचेभायर कांय वलैयन नुस्तेमारी, धवडकाम, शेतीमजुरी, लांकडांचे (भरे) विकप हेय धंदे करतात. हेर जमाती प्रमाण वलैयन समाजांतय काळानुसार बदल घडून कांय पोरन्यो चालीरिती वचून नव्यो आधुनिक चालीरिती भितर सरूंक लागल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**वल्लभ संप्रदाय :** एक वैष्णव भक्तिसंप्रदाय. ह्या संप्रदायान उत्तरप्रदेश, राजस्थान आनी गुजरात ह्या तीन प्रदेशांनी कृष्णभक्तीची धारा प्रवाहित केली. वल्लभाचार्यान प्रवर्तित केलो म्हणून हाका वल्लभ संप्रदाय म्हण्टात. वल्लभाचार्य शुध्दाद्वैती आशिल्लो म्हणून ताच्या संप्रदायाक शुध्दाद्वैती संप्रदाय अशेंय नांव आसा. रुद्र संप्रदाय ह्या नांवानूय ताका वळखतात. विष्णुस्वामी हो रूद्र संप्रदायाचो मूळ प्रवर्तक. ताचो संप्रदाय ताचे उपरांत खंडित जाल्लो. वल्लभाचार्य त्या पीठार बसलो आनी ताणें विष्णुस्वामीचें मत आपणावन ताचो प्रचार केलो.

वल्लभाचार्याक दोन पूत आशिल्ले. व्हडलो गोपिनाथ आनी धाकटो विठ्ठलनाथ. व्हडलो अचकित मेलो, तेन्ना धाकलो विठ्ठलनाथ होच बापायचे गादयेर बसलो. संप्रदायाची वृध्दी आनी वेवस्था ह्या दोगांचेय श्रेय ताका फावता. विठ्ठलनाथ व्हड विद्वान आशिल्लो. ताणें वल्लभाचार्याच्या ग्रंथांचो प्रचार केलो आनी आपणेय बरेच ग्रंथ बरयले.

विठ्ठलनाथान उत्तर भारतांत सगळयाक भोंवडी करून संप्रदायाचो खाशेलो प्रचार केलो. सद्याच्या ह्या संप्रदायांत घोळणुकेंत आशिल्ली सेवा पद्दत ताणेंच निर्माण केली. विठ्ठलनाथाक सात चले जाले. ह्या सात पूतांनी वेगवेगळीं पीठां स्थापून थंय विंगड विंगड नांवांनी श्रीकृष्णमूर्ती स्थापल्यो आनी संप्रदायाचो व्हड विस्तार केलो. त्या पूतांचीं नांवां, तांचें उपास्य कृष्णरुप आनी थळां अशीं -

| नांव | उपास्यनाम | थळ |
|---|---|---|
| १) गिरिधर | मथुरेश | कोटा |
| २) गोविंदराय | विठ्ठलनाथ | नाथद्वारा |
| ३) बालकृष्ण | द्वारकाधीश | कांकरोली |
| ४) गोकुलनाथ | गोकुलनाथ | गोकुळ |
| ५) रघुनाथ | गोकुलचंद्रमा | कामवन |
| ६) यदुनाथ | बाळकृष्ण | सुरत |
| ७) घनःश्याम | मदनमोहन | कामवन |

वल्लभाचार्य आनी विठ्ठलनाथ ब्रजभाशेचे बरे जाणकार आशिल्ले. ब्रजभाशेक भोवमान मेळोवन दिवपाचें श्रेय ह्या बापूय - पुताक वता. ताच्या काळामेरेन ब्रजभास ही रांगडी आशिल्ली आनी साहित्याच्या मळार तिणें प्रवेश करूंक नाशिल्लो, पूण ह्या दोगांयनी सतत कश्ट करून आनी जायत्या जाणांक प्रोत्साहन दिवन ते भाशेक समृध्दताय मेळोवन दिली. वल्लभाचार्याचे चार आनी विठ्ठलनाथाचे चार अशे आठ कविशिश्य आशिल्ले. बापूय - पुताचे उर्बेन तांणींय ब्रजभाशेंत बऱ्योच कविता रचल्यो.

ह्या बापूय - पुतान बरेच कडेन भागवताचे सप्ताह केले. जे जे सुवातेर हो सप्ताह सुवाळो जालो, तीं तीं थळां संप्रदायांत बैठक (बसका) ह्या नांवान प्रसिद्द आसात. अशो बसको वल्लभाचार्याच्यो ८४ आनी विठ्ठलनाथाच्यो २८ आसात.

वल्लभ संप्रदायान बऱ्याचशा ललितकलांक प्रोत्साहन दिलें. श्रीकृष्णाचे सेवापद्दतीचें खोलायेन आनी वेवस्थित अशें विधान ह्या संप्रदायांत आसा, तशें तें हेर खंयच्याच संप्रदायांत दिसून येना. सेवा, शृंगार आनी कीर्तन अशीं हे पद्दतीचीं तीन आंगां आसात. पुराय वर्स ताणें जायतीं पर्वां आनी उत्सव हांचेमदीं विभागून उडयलां. दर एका उत्सवांत श्रीकृष्णाचो शृंगार कशे तरेचो आसचो, पूजापद्दत कशी आसची, नित्याचे पूजेंत खंयच्या वेळार खंयचें गीत गावचें ह्या सगळया गजालींचें तपशिलान वर्णन सांप्रदायिक ग्रंथांतल्यान केल्लें दिसता.

**संप्रदायाचें दर्शन** - वल्लभाचार्याचो सिध्दांत शुध्दाद्वैत ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. ह्या आचार्यान अद्वैत आपणावन ताचे फाटल्यान शुध्द हें पद जोडलां. शुध्द म्हळयार मायासंबंद विरयत. शंकराचार्याच्या अद्वैतांत मायाशबलित ब्रह्म संवसाराचें कारण मानलां. पूण वल्लभ मतांत मायोपाधिविरहित अतएव नितांत शुध्द ब्रह्म हेंच संवसाराचें कारण मानलां. ब्रह्म हेंच विश्वामदीं एकपात्र सत् आसा. ताचो परिणाम जगत् आनी जीव हांच्या रुपान दिसता. ताकालागून जीव आनी जगत् हीं दोनूय सत्यां आसात.

शंकराचार्य नामरुपो पाधिविशिश्ट सगुण ब्रह्म आनी उपाश्रिरहित निर्गुण ब्रह्म अशीं ब्रह्माचीं दोन रुपां मानता. ताच्या मतान ह्या दोगांयमदीं निर्गुण ब्रह्म हेंच श्रेश्ठ आसून सगुण ब्रह्म मायाशबलित आशिल्ल्यान कनिश्ठ आसा. पूण वल्लभाचार्य म्हण्टा, ब्रह्माचीं हीं दोनूय रुपां सत्य आसात. ब्रह्म हें परस्पर विरोधी तत्त्वांक आलाशिरो जावपाक शकतात. एकाच वेळार तें निर्गुण आनी सगुणूय आसूंक शकता. तें अणूपरस ल्हान आनी महतापरसूय व्हड आसा. भक्ताचेर कृपा करपारवातीर ते अविकृत आसुनूय विकृती धारण करता. श्रीकृष्ण होच परब्रह्म आसा. ताची कूड सच्चिदानंदमय आसा.

ब्रह्माचे तीन प्रकार ते अशे आधिभौतिक = जगत्, आध्यात्मिक = अक्षरब्रह्म आनी आधिदैविक - परबह्म वा पुरुषोत्तम अशें ते मानतात. श्रीकृष्ण जेन्ना आपले अनंत शक्तींतल्यान आपले ठांय रत

जाता तेन्ना ताका आत्माराम म्हण्टात, जेन्ना बाह्यक्रीडेन तो आपले शक्तीची बाह्य अभिव्यक्ती करता तेन्ना ताका पुरुषोत्तम म्हण्टात. श्रीकृष्णाकडेन बऱ्योच शक्ती आसून तांचेमदीं श्री, पुश्टी, मिरा आदी बारा शक्ती मुरवेल जावन आसात.

जेन्ना भगवंताक आत्मरतीची इत्सा जाता, तेन्ना तो आपले आनंदादी अंशाक तिरोहित करून स्वता जीवरूप धारण करता. ह्या जीवांचे शुध्द, मुक्त आनी संवसारी अशे तीन प्रकार आसतात. संवसारी जीवय दोन तरांचे आसतात. दैव आनी असूर. निर्गुण सच्चिदानंद ब्रह्म हेंच अविकृत भावान जगद्‌रुपान परिणत जाता. जगत् आनी संवसार हांच्यांत सूक्ष्म भेद आसता.

पुरुषसंज्ञक विष्णुच्या मूलरुपाचीं चार रुपां जातात. पयलें पुरुषोत्तमस्वरूप ताकाच कृष्ण म्हण्टात, दुसरें अक्षरस्वरूप ताचेच भक्तगोचर अक्षर आनी ज्ञानिगोचर अक्षर अशे दोन प्रकार जातात. मेळून तीन रुपां, तर चवथें अंतर्यामिस्वरूप हें चारूय रुपांनी प्रगट जावपी मूळ रुपाचें ज्ञान भगवत्कृपेनूच मेळटा. भगवत्प्राप्तीचें एकमेव साधन म्हळयार वल्लभाचार्यान पुष्टिमार्ग प्रवर्तित केला. योगाभ्यास, कर्म, ज्ञान हे सगळे पुश्टीचे दरवटे आसात. प्राण्यांनी अनुसरण करपाक योग्य अशे तीन मार्ग वल्लभाचार्यान सांगल्यात - (१) पुष्टि मार्ग (२) प्रवाहमार्ग आनी (३) मर्यादामार्ग. भक्तीमार्ग होच पुष्टिमार्ग आसून तो सर्वोत्तम आसा.

भगवंताचे अन्नुग्रहाचे सिध्दीखातीर एकांत निश्ठेन आनी शुध्द अनुरागान ताची सेवा करप हेंच जीवाचें श्रेश्ठ कर्तव्य आसा. वल्लभाचार्यान हे सेवेचे तीन प्रकार सांगल्यात - तनुजा, वित्तजा आनी मानसी. मनोनिरोधान केल्ली सेवा हीच मानसी सेवा आसून तीच सर्वश्रेश्ठ अशी मानल्या.

ह्या संप्रदायान जीवाक पुष्टिमार्गान साधनेंत अधिकार प्राप्त जावपाखातीर दोन तरांचे दीक्षाविधी सांगल्यात. पयलो शरणमंत्राचो उपदेश आनी दुसरो आत्मनिवेदन म्हळयार ब्रह्मसंबंद म्हळयार ब्रह्मरुप श्रीकृष्णाकडेन संबंद वा नातें जोडप. पुष्टिमार्गाचेर उजवाड घालपी साहित्य संस्कृत तशेंच ब्रजभाशेंत खूब आसा, तरी ताचे प्रमाण ग्रंथ फकत चारूच आसात. ते म्हळयार वेद, श्रीकृष्णाचीं उपदेशवाक्यां, ब्रह्मसूत्रां आनी व्यासाची समाधिभाश् म्हळयार भागवत पुराण.

वल्लभ संप्रदायांत कुंभनदास, सूरदास, परमानंददास, कृष्णदास, गोविंदस्वामी, नंददास, छीतस्वामी आनी चतुर्भुजदास हे अश्टछाप कवी म्हणून प्रसिद्द आसात. ते वल्लभाचार्य आनी विठ्ठलनाथांचे शिश्य आसून तांणी श्रीकृष्णाच्या लळीत लीळांचेर पद्यरचना करून पुष्टिमार्ग वाडयलो, तशेंच ब्रजभाशेची समृध्दी केली.

- कों. वि. सं. मं.

**वल्लभाचार्य :** (इ.स. १४७९ - १५३१).

वल्लभसंप्रदायाचो प्रवर्तक, शुध्दाद्वैत मताचो प्रतिष्ठापक आनी पुष्टिमार्गी भक्तिपरंपरेंतलो अग्रगण्य आचार्य. आंध्र प्रदेशांतल्या तेलुगू ब्राह्मणकुळांत ताचो जल्म जालो. ताच्या घराण्यांतल्या मनशांनी सोमयाग केल्लो. ताकालागून हें घराणें सोमयाजी म्हूण प्रसिद्द आशिल्लें. ह्या घराण्याचो मूळ गांव गोदावरी न्हंयेचे देगेर आशिल्लो. कांकरवाड, पूण वल्लभाचार्याचो जल्म मध्य प्रदेशांतल्या एका रानांत जालो. ताच्या जल्माविशीं एक कथा सांगतात ती अशी : ताचो बापूय लक्ष्मण भट्ट आनी आवय इल्लम्मागारू हांकां दोन चलयो आनी एक चलो आशिल्लो. घरची अर्थीक स्थिती सामान्य आसुनूय तांचो घराबो सुखी आशिल्लो. पूण एक दीस लक्ष्मणभट्टाक संवसाराविशीं विरक्ती आयली आनी तो प्रेमकर नांवाच्या सत्पुरुशाचो गुरूपदेश घेवन ताच्या म्हन्यांत रावंक लागलो.



इल्लम्मागारु ताचो सोद घेत थंय पावली आनी तिणें आपली कथा त्या सत्पुरुशाक सांगून घोवाक परत संवसाराची प्रेरणा दिवपाविशीं सुचयलें. प्रेमकरान ताका परत संवसार करपाची आज्ञा दिली आनी तांकां एक अलौकिक पूत जातलो म्हणपाचो आशिर्वाद दिलो. कांय दिसांनी इल्लम्मागारु गुरवार जाली. लक्ष्मणभट्ट आपल्या कुटुंबाक घेवन यात्रेक वचूंक भायर सरलो. तीं काशीक पावतकच थंय सुलतानाची स्वारी जातली म्हणपाची खबर आयली. सगळे लोक गांव सोडून वचूंक लागले. तांच्या वांगडा लक्ष्मणभट्टय भायर सरलो. तो मध्य प्रदेशांतल्या रायपूर जिल्ह्यांतल्या चंपारण्य रानांत पावलो. थंय ताचे बायलेन एका मेल्ल्या भुरग्याक जल्म दिलो. तांकां वायट दिसलें, पूण दुख्ख करपाक वेळ नाशिल्लो. लक्ष्मणभट्टान एका शमीच्या झाडापोंदा फोंड मारून त्या भुरग्याक पुरलो आनी आपले बायलेक घेवन तो फुडें गेलो. दुसऱ्या दिसा ताका सुलतानाच्या हल्ल्याची बातमी फट आशिल्ली म्हणपाचें कळ्ळें. तेन्ना गांव सोडून गेल्ले लोक परत येवंक लागले. तांच्या वांगडा लक्ष्मणभट्टय आपल्या घराब्यासयत त्याच रस्त्यान परत येवंक लागलो. जेन्ना त्या शमीच्या झाडाकडे पावले, तेन्ना ताका तांणी जंय आपल्या मेल्ल्या भुरग्याक पुरिल्लें त्याच जाग्यार एक अग्नीकूंड तयार जाल्लें आनी तातूंत एक सुंदर भुरगो खेळटालो. हो भुरगो आपलोच आसून देवाचे कृपेन सजीव स्थितींत आयला अशें

लक्ष्मणभट्टाक दिसलें. इल्लम्मागारुन जेन्ना त्या भुरग्याक धरपाक हात फुडें केले, तेन्ना अकस्मात तें अग्नीकूंड पालवलें आनी त्या भुरग्यान इल्लम्मागारुकडे उडी घेतली.

घरा हाडटकच लक्ष्मणभट्टान त्या भुरग्याचें नांव वल्लभ अशें दवरलें. पांचव्या वर्सासावन ताच्या शिक्षणाक सुरवात जाली. आठव्या वर्सा ताची मूज बांदतकच ताका शिक्षणाखातीर विष्णुचित्त नांवाच्या गुरूगेर धाडलो. थंयच्यान तो फुडलें शिक्षण घेवंक काशीक गेलो. थंय ताणें वेद वेदांगां, षडदर्शनां आनी भागवत धर्माच्या म्हत्वाच्या ग्रंथांचो अभ्यास केलो आनी तातूंत प्रावीण्य जोडलें.

इ.स. १४८९ वर्सा तो आपलें शिक्षण पुराय करून घरा आयलो. ते उपरांत तो आवय बापाय वांगडा तीर्थयात्रेक गेलो. काशी, गया, जगन्नाथपूरी अशो यात्रा करत तो दक्षिणेंत आयलो. थंय तिरुपती हांगा ताच्या बापायक मरण आयलें. तेन्ना तो ११ - १२ वर्सांचो आशिल्लो. ह्याय वयांत प्रकांडपंडित आनी धर्मशास्त्रवेत्ता म्हूण ताची नामना आशिल्ली. यात्राकाळांत काशी आनी जगन्नाथपूरी हांगाच्या विद्वानांकडे ताणें भासाभास केल्ली आनी तेन्ना ताका वल्लभाचार्य म्हूण नामना मेळ्ळी.

उपरांत ताणें परत यात्रा सुरू केली आनी स्वताच्या दार्शनीक सिद्दांताचो प्रचार करूंक लागलो. ताणें पाखंडवाद, शंकराचार्याचो मायावाद हांचें खंडन केलें आनी स्वताच्या शुध्दाद्वैतवादाची प्रतिश्ठापना केली. तेचपरीन ताणें वैष्णवभक्तीमार्गाकय चालना दिली. ह्या कामाखातीर ताणें पुष्टिमार्ग नांवाचो नवो भक्तिमार्ग प्रवर्तित केलो. हाकाच फुडें वल्लभसंप्रदाय म्हणूंक लागले. सतत वीस वर्सां परिभ्रमण करून ताणें जायते फावटी पुराय भारताची भोंवडी केली. ताच्या पुराय भारत भ्रमणांतल्या तीन भारतयात्रांक खुबूच म्हत्व आसा. त्यो भारतयात्रा अशो : ताची पयली भारत यात्रा वद्य २ शके १४१४ (इ.स. १४९२) ह्या दिसा सुरू केली आनी ५ वर्सां भोंवन शके १४१९ (इ.स. १४९७) निमाणें ती सोंपली. ह्या काळांत झाडखंडांत भोंवता आसतना ताका ब्रजवाठारांत वचपाची इत्सा जाली. हो वाठार म्हळ्यार कृष्णाची क्रीडाभूमी. थंय भोंवता आसतना ताच्या दोळ्यांमुखार पुराय कृष्णलिला येवंक लागली. कृष्णाचें दर्शन, कृष्णकथांचें श्रवण, कृष्णलिलांचें गायन, कृष्णमूर्तीचें कीर्तन आनी कृष्णमूर्तीमुखार नर्तन हातूंत दीस रात तो गुल्ल जालो. गोविंदघाटाचेर ताणें श्रीमद्भागवताचें पारायण केलें आनी थंय दामोदर दास हरसानी हांगा एका शिश्याक मंत्रदीक्षा दिली. तशेंच नव्या भक्तीपंथाचीय स्थापना केली.

ताची दुसरी भारतयात्रा ज्येश्ठ शु. २ शके १४२० (इ.स. १४९८) ह्या दिसा सुरू जाली ती शके १४२४ त सोंपली. ह्या काळांत ताणें भक्तीपंथाचो आनी शुध्दाद्वैत मतांचो प्रचार केलो. गोवर्धन पर्वताचेर वचून ताणें श्रीनाथाचे मूर्तीची स्थापना केली. महाराष्ट्रांत पंढरपुरांत पावतकच ताका लग्न करपाची इत्सा जाली. यात्रा सोंपतकच ताणें शके १४२४ आषाढ शुध्द पंचमी दिसा महालक्ष्मी नांवाचे चलयेकडे लग्न केलें. त्यावेळार तिचें वय फकत आठ वर्सां आशिल्लें. संवसार करपाक ती खूबच ल्हान आशिल्ल्यान तो आपले तिसरे यात्रेखातीर रवाना जालो. ही ताची यात्रा शके १४२४ च्या पौष म्हयन्यांत सुरू जावन शके १४३१ त पुराय जाली. ह्या काळांत ताचो सर्वोच्च सन्मान जालो. शके १४२८ त वल्लभाचार्यान काशीक वचून पत्रावलंबन नांवाचो ग्रंथ निर्माण करून मायावादी पंडितांक आनी शैव - शाक्तपंथियांक हारयले. दक्षिणेंत वचून ताणें ताच्या विरोधी पंडिताकडे भासाभास करून तातूंत जैत मेळयलें. तेन्ना कृष्णदेवरायान ताचो कनकाभिशेक करून भोवमान केलो.

उपरांत तो अडॅल हांगा रावन प्रपंच आनी परमार्थ करूंक लागलो. पिरायेच्या बावनाव्या वर्सा तो प्रयाग हांगा गेलो आनी थंय आपल्या संप्रदायाप्रमाण ताणें संन्यासदीक्षा घेतली. थंयसावन काशीक वचून ताणें ४० दीस उपास केलो आनी निमाणें शके १४५२ चे आषाढ शुध्द तृतीयेक मध्यानेर काशीच्या हनुमान घाटावयल्यान गंगेंत उडी मारली.

वल्लभाचार्य हो एक प्रकांड पंडित. ताणें ८४ ग्रंथ बरयल्ल्याचें सांगतात. पूण सद्या ताच्या नांवार ३१ ग्रंथ उपलब्ध आसात. हे ग्रंथ अशे- (१) ब्रह्मसूत्र (२) सुबोधिनी (३) भागवत आनी तत्त्वदीप निबंध (४) पूर्वमीमांसाभाष्य (५) गायत्रीभाष्य (६) पत्रावलंबन (७) पुरुषोत्तमसहस्त्रनाम (८) दशमस्कंद अनुक्रमणिका (९) त्रिविध नामावली (१०) शिक्षाश्लोक (११ ते २६) षोडश ग्रंथ (यमुनाश्टक, बालबोध, सिध्दान्त मुक्तावली, पुष्टिप्रवाह मर्यादाभेद, सिध्दान्तरहस्य, नवरत्न, अंतःकरणप्रबोध, विवेक धैर्याश्रय, कृष्णाश्रय, चतुःश्लोकी, भक्तिवर्धिनी, जलभेद, पंचपद्य, संन्यासनिर्जय, निरोधलक्षण आनी सेवाफल). (२७) भगवत्पीठिका (२८) न्यायादेश (२९) सेवाफलविवरण (३०) प्रेमामृत आनी (३१) अष्टकां (मधुराष्टक, परिवृढाष्टक, नंदकुमाराष्टक, श्रीकृष्णाष्टक, गोपीजन - वल्लभाष्टक आदी अष्टकांचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : वल्लभ संप्रदाय

**वल्लुवन :** दक्षिण भारतांतली एक जात. ह्या लोकांची वसणूक तमिळनाडूंत आसा. हांचे उत्पत्तीविशीं एक दंतकथा आसा ती अशी - ब्राह्मण ऋषी आनी परैयन बायल हांचेपसून वल्लुवनांची उत्पत्ती जाली. ह्या ऋषीपुत्रांक लोक उणाक मानूंक लागले. तेन्ना ते आपल्या बापायकडे गेले. बापायन तांकां आशिर्वाद दिवन म्हळें तुमी फुडें नामनेचे ज्योतिशी जातले आनी लोक तुमकां मान दितले.

हे जातींत अरुपथू कत्छी (साठ घरांचो विभाग) आनी नर्पथू कत्छी (चाळीस घरांचो विभाग) अशो दोन पोटजाती आसात.

अरुपथू हे नंदी गुरुक्कल हांचे वंशज आसून तेंच तांचें गोत्र आसा. सिदंबर सयिच्छा अय्यंगर हें नर्पथूंचें गोत्र आसा.

वल्लुवनांत कांय घराबे शैव आसून कांय वैश्णव आसात. तांच्यांत देजाची पद्दत आसा. सारवरपुड्यावेळार व्हंकलेचे मांडयेर देज, पान, अलंकार, फुलां आनी फळां दवरतात. लग्नादिसा दुदरखांब उबो करून ताचे भोंवतणीं जायतीं मडकीं पुरतात. उपरांत दुदरखांब्याक आनी मडक्यांक हळदुव्या दोऱ्यान गुठलायतात. उपरांत न्हवरो - व्हंकल मडक्याची आनी घरांतल्या देवांची पुजा करतात. ताचे उपरांत पुरोयत कांय संस्कृत मंत्र म्हणून दुदरखांब्याक बांदिल्ल्यो हळदुव्यो दोरयो काडून न्हवरो - व्हंकलेच्या हाताक बांदतात. उपरांत घरांत व्हरून तांकां फुलांच्यो माळो घालतात. माळो घालून भायर येतकच सगळयो मडक्यो सव्यार दवरून, तातुंतल्या एकांत धान्याचीं रोपां आनी दुसऱ्या चार मडक्यांत उदक भरून दवरतात. तशेंच एका कपड्यांत धान्यांचीं कांय रोपां बांदून ती पोटली पयल्या मडक्यार दवरतात. दुसऱ्या दिसा तीं रोपां बरे स्थितींत आसल्यार व्हंकल फाव तशी आसा अशें मानतात.

ताचे उपरांत तेल लावन न्हातकच न्हवरो - व्हंकल पितरांक आनी देवांक निवेद्य दारवयतात. सांजवेळचीं तीं सव्यार बसून एकामेकांक णव वा बारा खेपे पान आनी साळी दितात आनी सत्तावीस खेपे तांदूळ दितात. उपरांत मळबाक ताळी दारवोवन ती कापरान धुपायतात. उपरांत ही ताळी न्हवरो व्हंकलेच्या गळयांत घालता. दुसऱ्या दिसा न्हवऱ्या - व्हंकलेक गांवांतल्यान भोंवडावन हाडटात आनी तिसऱ्या दिसा हातांतलें दोरयेचें कांकण सोडयतकच लग्नविधी पुराय जाता.

तांच्यांत लिंगधारी शैवपंथी मनीस मरतकच एक नाल्ल फोडून कापूर लायतात आनी ताका उदक भरिल्ल्या णव घागरींनी न्हाणयतात आनी मड्याचे तकलेर लिंग बांदतात. उपरांत एका कपड्यांत एक रुपया, सात बेलाचीं पानां, णव तुळशीच्यो बडयो आनी णव फुलां बांदून ती पोटली मड्याच्या उजव्या हाताक बांदतात. उपरांत एके गाडयेंत पितुळचीं आयदनां आनी मडें दवरून ती गाडी मसंडेंत व्हरतात. थंय एक फोंड मारून तातूंत गायच्या मुताचो आनी शेणाचो शिताडो घालतात आनी तातूंत मडें बशिल्ले स्थितींत पुरतात. मड्याच्या थडग्यार पुरोयतान तयार केल्ली एक मूर्त दवरतात. सतराव्या दिसा सुतकाचे निमाणें मड्याक शिवलोक मेळचो देरवून एक विधी करतात.

वल्लुवन लोक परैयन आनी पल्लन हे जातीचें पुरोयतपण करतात. तांच्यांतल्यो जायत्यो बायलो आनी दादले ज्योतिश सांगपाचो आनी वैजकीचो वेवसाय करतात. जोतिश सांगपी मनीस खाड वाडयता, गळयांत रुद्राक्षांची माळ आनी माथ्याक पगडी घालता. ताचेकडेन सदांच पंचांग, ज्योतिशशास्त्राच्यो पोथयो आनी मंत्रांनी भरिल्लीं तावजां आसतात.

वल्लुवनाच्या जातीय तंट्याचो निवाडो कोल्करन आनी कनक्कन हे दोन पारंपारीक अधिकारी करतात.

हे लोक मलयनूर नांवाचो शिवाचो उत्सव मनयतात. त्यावेळार कांय मनीस विचीत्र भेस करून शिवाचें रूप घेतात. काळावांगडा वल्लुवन समाजांतय जायते बदल घडत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वल्लुवर :** (इ.स.चें दुसरें शतमान).

एक तमिळ संत आनी 'कुरळ' ह्या नीतिशास्त्राविशींच्या ग्रंथाचो कर्तो. हाच्या काळाविशीं विद्वानांत मतभेद आसात. ताचेविशीं निश्चीत म्हायती दिवपी इतिहासीक चरित्र मेळना, दंतकथांवयल्यान ताचेविशीं जी म्हायती मेळटा ती अशी - ताच्या बापायचें नांव भगवान आनी आवयचें नांव आदी. भावंडांतलो वल्लुवर हो निमाणो. ल्हानपणापसूनच बुद्धिमान, शांत वृत्ती आनी कर्तव्यदक्षता ह्या गुणांक लागून ताची नामना आशिल्ली. तो आनी ताची बायल वासुकी हीं दोगांय तमिळनाडूंतल्या मैलापूर गांवांत रावतालीं.

एक दीस तो बाजारांत आपलीं लुगटां विकपाक बशिल्ले कडेन एका सावकारालो वाळेस पूत ताच्या मुखार येवन उबो रावलो. ताणें एक लुगट काडून ताका ताचें मोल विचारलें. वल्लुवरान ताका थंडपणान दोन रुपया म्हणून सांगलें. सावकाराल्या चल्यान त्या लुगटाचीं मदींच दोन अर्दां करून एका अर्दाचे पयशे विचारले. वल्लुवरान ताका एक रुपया सांगलो. ताणें त्या अर्दाचे आनीक दोन कुडके केले आनी तातुंतल्या एका कुडक्याचें मोल विचारलें. वल्लुवरान रागार जायनासतना ताका अर्द रुपया म्हणून सांगलें. अशें करून करून सावकाराल्या चल्यान, त्या कपड्याच्यो तिस्त्यो केल्यो. ताका दिशिल्लें वल्लुवराक ताचे हे करणेचो राग येतलो आनीक तो तापतलो. पूण वल्लुवर थंडच आशिल्लो. सावकाराच्या चल्यान दोन रुपया काडले आनी वल्लुवराक दिले आनी सांगलें 'ह्यो तिस्त्यो आतां म्हाका उपेगी नात. पूण हावें चूक केल्या ताचें शासन म्हूण हे दोन रुपया तुका घे'.

वल्लुवर हांसलो आनी ताणें मवाळ शब्दांत ताका सांगलें - 'खरें तुजें. ह्यो तिस्त्यो तुकाच कित्याक, आतां कोणाकच उपेगी ना. पूण तुवें दोन रुपया दिल्ल्यान आनी हांवें ते घेतिल्ल्यान हें नुकसान भरून येवचेना. केल्ली वस्तू वापरल्यार कारणी लागल्यार तिचें मोल मेजिल्ल्याचें दिलें - घेतिल्ल्याचें सूरव. शेंकड्यांनी शेतकार रातदीस वावुरले, तांच्या श्रमांतल्यान कापूस पिकलो. तो कापूस वेंचपांत, निवडपांत तांचे पेळे करपांत जायत्या जाणांनी आपली शक्त वगडायली. त्या पेळयांपसून हावें आनी म्हज्या वांगड्यांनी सोबीत लुगट विणलें. ह्या सगळयांचे कश्ट दोन रुपयांनी भरून येना'.

वल्लुवराचें तें मवाळ उलोवणें आयकून सावकाराच्या चल्याचें काळीज हाललें. ताच्या दोळयांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं. ताणें

वल्लुवराची क्षमा मागली, तेन्ना वल्लुवरान ताका सांगलें, कपडो पिंजल्यार दुसरो करूंक मेळटा. पूण आयुश्य एकदां फुकट गेल्यार तें परत मेळना. आतां तूं असलीं पिशेपणां केन्नाच करूं नाका.

दुसरे दिसा सावकार आपल्या पुताक घेवन वल्लुवरागेर आयलो आनी ताणें आपल्या वाळेस पुताक सन्मार्गाक लायिल्लेखातीर ताचे उपकार मानले. तशेंच ताका सदांच असो उपदेश करूंक लायलो.

दुसऱ्या दिसाच्यान सावकाराल्या पुताक तो वेगवेगळयो देखी दिवन तरेतरेच्यो गजाली सांगूक लागलो. ल्हव ल्हव करून ताच्या ह्या नीतिवचनांचो संग्रह तयार जालो आनी ह्या नीतिवचनाक 'कुरळ' नांवाच्या ग्रंथ रुपान वळखूंक लागले.

- कों. वि. सं. मं.

**वसंतपंचम :** माघ म्हयन्यांतले शुध्द पंचमीक वसंतपंचम ह्या नांवान वळखतात. हे तिथी सावन वसंतोत्सवाक सुरवात जाता. सादारणपणान चैत्र - वैशाख हो जरी वसंतऋतुचो काळ आसलो तरी मकरसंक्रमणा सावन उत्तरायण सुरू जाल्लें आशिल्ल्यान माघ म्हयन्यांतल्यान वसंतऋतुचीं लक्षणां दिसूंक लागतात. ताका लागून ही तिथी वसंतारंभाची तिथी मानतात. पुर्विल्ल्या काळांत त्या दिसा सुवसंतक नांवाचो उत्सव जातालो. उत्तर भारतांत हो दीस वेगवेगळे तरेन मनोवप जाता.

कामदेव मदनाचो जल्म ह्याच दिसा जालो अशें म्हण्टात. देखून ह्या दिसा मदन - रतीची पुजा करपाची चाल आशिल्ली. पुराणांत वसंत आनी मदन हांचो लागशिल्लो संबंद वर्णिल्लो आसा. घोव - बायलेची जीण सुखाची जावंची देखून लोक रती - मदनाची पुजा आनी प्रार्थना करताले. वसंत पंचमीक नवान्नेश्टी करपाची प्रथाय कांय कडेन आसा. पिकांचीं कणसां हाडून तीं घरांतले देवतेक ओंपतात. उपरांत नवान्न भक्षण करतात.

हेच तिथीक सरस्वतीदेवी उत्पन्न जाल्ली देखून तिचीय पुजा करतात. तेचपरी भुरग्यांच्या शिक्षणाकय ह्याच दिसा सुरवात करतात. हो लक्ष्मीचोय दीस मानतात आनी हे तिथीक श्री पंचमी म्हण्टात.

वसंतपंचमीक तशें धर्मीक व्रत विधान चडशें नासता. सैमाचें नवें रूप आनी नवी निर्मणी हाका लागून जाल्लो आनंद उक्तावपाक मजा करप होच हे परबेचो उद्देश आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**वसंत ऋतू :** वर्साच्या ऋतुचक्रांतलो पयलो ऋतू. चैत्र - वैशाख ह्या दोन म्हयन्यांच्या काळाक ह्या नांवान पुर्विल्ल्या काळापसून वळखतात. ह्या ऋतूंत झाडांक फुलां फळां येतात, वखदी वनस्पत उत्पन्न जाता अशें शतपथ ब्राह्मणांत वर्णन आसा. ह्या ग्रंथांत वसंत ऋतूक संवत्सराचें दार मानलां जाल्यार तैत्तिरीय ब्राह्मणांत ताका तोंड मानिल्लें आसा. देवतेक पंचामृताचें न्हाण घालतना मधुस्नानाच्या वेळार ऋग्वेदांत जे मंत्र म्हण्टात, तातूंत वसंत ऋतुचें वर्णन आसा तें अशें -

मधु वाता ऋतायते मधु क्षरन्ति सिन्धवः ।
माध्वीर्न : सन्तोषधीः ।
मधु नक्तमुतोषसो मधुमत्पार्थिवं रजः।
मधु द्यौरस्तु नः पिता ॥

**अर्थ :** आमी नियतमार्गी उपासकांखातीर सुखकारक वायू आनी मधुर रस भरून न्हंयो व्हांवनी; तशेंच वखदी वनस्पत सुमधूर जावनी; आमकां उपासकांखातीर रात आनी सकाळ, धर्तरी आनी अंतरिक्ष, तशेंच आमचो सगळयांचो बापूय द्यू सुखमय जावनी. (वसंत ऋतू येतकच सगळें वातावरण आनंददायी जाता असो ह्या मंत्राचो अर्थ जाता).

शतपथ ब्राह्मणाच्या काळांत सूर्य कृत्तिका नक्षत्रांत आयलो म्हणजे वसंतऋतूक सुरवात जाताली. सूर्य कृतिका नक्षत्रांत आसलो म्हणजे फांतोडेचेर उदेंत क्षितीजाचेर उदेवपी नखेत्र अश्विनी आसतालें. ताचेवयल्यान अश्विनीचो उदेंत हो वसंतागमनाचें चिन्न समजताले.

गीतेंत श्रीकृष्णान ऋतूनां कुसुमाकर : ऋतूंत हांव वसंत आसा अशें म्हणून ह्या ऋतुचो गौरव केला. संस्कृत साहित्यांत वसंतऋतूक खाशेलें म्हत्व दिल्लें दिश्टी पडटा. कालिदासान तर आपल्या काव्यांत वसंताच्या उन्मादक सोबितकायेचें खाशेलें प्रभावी शैलींत वर्णन केल्लें आसा. माघ, भारवी, श्रीहर्ष ह्या सारक्या कवींच्या महाकाव्यांत वसंतश्रीचें सोबीत वर्णन वर्णिल्लें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वसंतोत्सव :** माघ म्हयन्यांतल्या वसंतपंचमीसावन फाल्गुन पुनवेमेरेन हो उत्सव करतात. शिंयाळो सोंपून जाल्ल्या प्रसन्न उबदार अशा वातावरणाकलागून लोकांक खोशी आनी उमेद जाता. पुर्विल्ल्या काळांत वसंत ऋतुच्या येवकाराखातीर सुवसंतक, वसंतोत्सव, मदनोत्सव, अशोकोत्सव, हे उत्सव करताले. पूण आतां उत्तर भारतांत चडकरून राजस्थानांत आनी ब्रजमंडळांत वसंत पंचमीसावन वसंतोत्सव मनयतात. त्या उपरांतचो होलिकोत्सव चडकरून सगळयाक जाता.

संस्कृत साहित्यांत वसंतोत्सवाचीं वर्णनां मेळटात. वसंतोत्सवांत वनविहार, जलक्रीडा, नाच, संगीत, नाटक हे वेगवेगळे मनोरंजनाचे कार्यक्रम आयोजीत करताले. पयलींचे राजा आपल्या कुटुंबासयत अशा उत्सवांत भाग घेताले. सामान्य नागरीक नाच, गायनांत सहभागी जाताले. सगळेजाण हळदुव्या रंगाचीं वस्त्रां वापरताले आनी हळदुवो रंग एकामेकांच्या आंगार उधळटाले. बायलां झोंपाळयार बसून धोलत वसंताविशींचीं पदां गायतालीं.

अशा ह्या खोशयेच्या उत्सवांत, शृंगाराक भार येवन सगळया

वातावरणांत दादल्या - बायलांच्या प्रणयाक आनी खेळाक कसलेंच बंधन उरनाशिल्लें.

राजस्थानांत राजपुतांमदीं हो उत्सव चड करून उमेदीन मनयतात. गरीब गिरेस्त सरदार, सैनिक हे सगळेजाण भेदभाव विसरून ह्या उत्सवांत भाग घेतात. वेगवेगळ्या तरेचीं वस्त्रां न्हेसून दादले बायलो खोशयेंत, मजेंत गुंग जातात. वेगवेगळ्या थरांतले लोक धोल आनी खंजिऱ्यो वाजयतात आनी कामदेवाचीं पदां म्हणत राजमार्गावयल्यान वतात. तीं पदां गांवगिरीं आसलीं तरी, तातूंत सोबीत सैमाचीं वर्णनां आसतात आनी काळजाक भिडपी भावय सांपडटात. भिल्ल, मीना, मेर हे रानवटी लोकय ह्या खोशयेच्या उत्सवांत मेकळेपणान एकठांय जातात. मोगरीं, चमेली ह्या फुलांच्यो माळो गळयांत घालून, तुरे पगडेंत खोंचून नाचांत, गावपांत भाग घेतात.

माघ शुध्द सप्तमीक रथसप्तमी म्हण्टात. राजस्थानांत तिका भानुसप्तमी म्हण्टात. त्या दिसा सूर्याची पुजा करून, ताच्या रथाची मिरवणूक काडटात. हो वसंतोत्सवाचोच एक प्रकार आसा. पयलीं ह्या उत्सवांत आहेरिया म्हळ्यार दुकराची शिकार करपाची चाल आशिल्ली. राजपूत विरांक आपलें शौर्य आनी धाडस दाखोवपाची संद ते शिकारेकलागून मेळटाली. गौरीक म्हळ्यार शिवानीक प्रसन्न करपाखातीर दुकराची शिकार करून, ताचें मांस पयलीं देवीक अर्पण करप आनी मागीर सगळ्यांनी तो प्रसाद वांटून घेवप, अशी पद्दत आसली.

फाल्गुन म्हयन्यांतल्या वसंतोत्सवाक फाग म्हण्टात. त्या दिसांनी पदां म्हणप आनी रंग उधळप जाता. फाल्गुन शुध्द अश्टम हो दीस ते नदरेन चड म्हत्वाचो आसता. पुनवे दिसा सगळेकडेन नाचरंगाचो कळस जाता. त्या उत्सवांत जीं पदां गायतात तांकांय फाग म्हण्टात. तातूंत खोशी, शृंगार, विलास, हांचें मुक्त दर्शन जाता. तातूंत राधाकृष्ण, शिवगौरी, रामसीता, हांच्या रंगलीलांचें रसभरीत वर्णनूय आसता. होळयेच्या परबेंतलो स्वैरपणा आनी रंगेलपणा त्या पदांत सहजतायेन व्यक्त केल्लो आसता.

फाल्गुन पुनवेक वसंतोत्सव सोंपता आनी होलिकोत्सव सुरू जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**वसाहतवाद :** राजसत्ता वा धर्मसत्ता वा अर्थीकसत्ता वा तिनूय सत्ता आपल्या राज्याभायल्या वाठाराचेर गाजोवपाच्या उद्देशान त्या वाठाराक जबरदस्तीन आपल्या शेकातळा हाडप हाका वसाहतवाद म्हण्टात.

वसाहतवाद हें मनीसकुळयेचें खूब आदीम काळांतलें लक्षण दिसता. बळग्याच्या नाड्यार हेरांक अंकीत करून दवरपाची प्रवृत्ती हो मनशाचो मानसशास्त्रीय गूण. हाका लागून जेन्ना जेन्ना संद मेळ्ळया तेन्ना तेन्ना मनीस कुळयेच्या इतिहासांत बळिश्ट मनशान दुबळ्या मनशाचेर आपलो शेक गाजयला. जेन्ना एका राश्ट्राकडल्यान वा त्या राश्ट्राच्या समाजाकडल्यान सामुदायीकपणान असो शेक दुसऱ्या राश्ट्राच्या समाजाचेर गाजोवप जाता तेन्ना ताका वसाहतवादाचें स्वरूप येता. एका देशांत दुसऱ्या देशान वचून केल्ली वसती म्हणजे वसाहत आनी हे वसाहतीचे प्रक्रियेक प्रशासनाक आनी परिणामाक वसाहतवाद ही संकल्पना लागू जाता.

आदल्या काळांत इ.स. पयलींच्या धाव्या शतमानांत ग्रीक लोकांनी आशिया मायनर आनी भूमध्य दर्यालागशिल्ल्या प्रदेशांनी कांय वसाहती स्थापीत केल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. वेपाराच्या निमतान आनी राजकीय हेतान ह्यो वसाहती स्थापीत केल्ल्यो. हे वसणुकेंतल्या लोकांनी ग्रीक संस्कृती आपणायली उपरांत ती संस्कृती भोंवतणच्या हेर राश्ट्रांनी पातळ्ळी. ग्रीका उपरांत इटलीन वसाहती स्थापन केल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. रोम साम्राज्याचो विस्तार जावंचे पयलींसावन इटलीचें धोरण विस्तारवादी आशिल्ल्याचें दिसून येता. मध्ययुगांत वसाहतवाद धर्मझुजांनी सुरू जालो. व्हेनीस आनी जिनीव्हा देशांतल्या वेपारी लोकांनी वेगवेगळ्या प्रदेशांनी साबार वसाहती स्थापन केल्ल्यो. त्या वसाहतींच्या आदारानच तांणी आपलो वेपार वाडयल्लो. सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेक युरोपाकसावन भारतांत येवपी उदकामार्गाचो सोद लागल्या उपरांत पुर्तुगेजांनी आफ्रिकाखंडांत आनी साप्प उदेंतेकडल्या देशांनी म्हळयार स्पेनांत अमेरिका खंडांतल्या देशांनी आपआपल्यो वसाहती उबारल्यो. त्या वसाहतींचेर थळाव्या शासनाचें नियंत्रण आसतालें. आपआपल्या वसाहतींनी तांणी रोमन कॅथलीक धर्माचोय प्रसार केलो. सोळाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक आनी सतराव्या शेंकड्याचे सुरवेक ब्रिटीश, फ्रेंच आनी डच कंपन्यांनी वेपाराच्या निमतान परदेशांत वसाहती स्थापन केल्यो. त्या वेपारी कंपन्याक सुरवेक थळाव्या शासनान प्रोत्साहन दिलें. पूण उपरांत ह्यो कंपनी स्वतंत्रपणान आपले निर्णय घेवपाक लागतकच शासनान तांचेर साबार बंधनां घालीं.

आधुनिक वसाहतवादाक सोळाव्या शेंकड्यासावन सुरवात जाली. १४८८ त दक्षिण आफ्रिकेक रेवाडो घालून हिंदुस्थानांत आनी हेर उदेंती देशांकडेन येवपाचो उदकामार्ग युरोपी लोकांक सांपडलो. १४९२ त कोलंबसान अमेरिकेचो सोद लायल्या उपरांत नव्या वसाहवादाक सुरवात जाली. युरोपीय राश्ट्रांमदीं नवे नवे प्रदेश मेळोवपाखातीर सर्त लागली. ह्याच तेंपार उद्देगीक क्रांती घडून आयली. हाचो पुराय फायदो वसाहतवाल्या राश्ट्रांनी घेतलो. व्हड प्रमाणांत तयार जावपी म्हालाक वसाहतींत बाजारपेठ मेळपाक लागली. तशेंच उत्पादनाक लागपी कच्चो म्हालय त्या वसाहतींनी मेळपाक लागलो. अशे तरेन युरोपी राश्ट्रांनी आपले विचार आनी संस्कृती हांच्या प्रचारावांगडाच अर्थीक फायदेय घेतले. आशिया खंडांतलें

जपान हें एकच राश्ट्र वसाहतवादी आशिल्लें. ताणेंय एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या निमाणें आनी विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक वसाहती स्थापन केल्ल्यो.

पयल्या आनी दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत स्वयंनिर्णय लोकशाय, स्वातंत्र्य आनी राश्ट्रवादाच्या प्रचाराक लागून तशेंच म्हाझुजांच्या परिणामांक लागून साम्राज्यवादी राश्ट्रां दुबळीं पडिल्ल्यान वसाहतवादाक देंवती कळा लागली. ह्याच सुमाराक वसाहतींनी राश्ट्रीय भावना निर्माण जावन स्वातंत्र्याचे मागणेची चळवळ निर्माण जाली. हाचो परिणाम म्हणून वसाहतवादी राश्ट्रांनी काळाची गरज वळखून वसाहतींक स्वातंत्र्य दिवपाचें थारायलें. कांयकडेन शांततामय पद्दतीन तर कांयकडेन संघर्श जावन सगळयोच वसाहती स्वतंत्र जाल्यो.

स्वतंत्र जाल्लीं वसाहती राश्ट्रां साम्राज्यवादाच्या काळांत अर्थीक नदरेन दुबळीं उरिल्ल्यान आपलो विकास घडोवन हाडपाक ताका आदल्या साम्राज्यवादी गिरेस्त राश्ट्रांचो आदार घेवंचो पडटा. अशे परिस्थितींत ह्या दुबळया राश्ट्रांक विनाअट आनी विनाराश्ट्रीय मतलब दवरून मदत करपाची बुध्द प्रगत राश्ट्रांक जाली ना. हाका लागून वसाहती लौकीक अर्थान स्वतंत्र जाल्यो आसल्यो तरी अजुनय तांच्या कारभाराचेर अप्रत्यक्षपणान सधन राश्ट्रांचो प्रभाव आशिल्लो दिश्टी पडटा. ह्या प्रभावाक नववसाहतवाद म्हण्टात.

**वसाहतीचे परिणाम :** वसाहतीचे बरे तशेच वायट परिणाम जाल्यात. वसाहतींतल्या साधन संपत्तीची लूट करून सत्ताधारी राश्ट्रां सशक्त जालीं. सत्ताधाऱ्यांनी वसाहतींतले थळावे संस्कृतीचें खच्चीकरण केलें. ह्या दोनूय गजालींचो स्वतंत्र जाल्ल्या वसाहती राश्ट्रांच्या भौतिक तशेंच समाजीक, मानसिक आंगाचेर वायट परिणाम जालो. हीं स्वतंत्र जाल्लीं राश्ट्रां आजय फाटीं उरपाचें कारण तेन्नाच्या सत्ताधाऱ्यांच्या अमर्याद शोशणांत मेळटा.

वसाहतवादी प्रगत राश्ट्राचो संपर्क आयिल्ल्यान वसाहत राश्ट्रांक प्रशासन पद्दत, तंत्रज्ञान, शिक्षण, उद्येग हे संबंदींचो आधुनिक असो बोध जावन ह्या मळांचेर ह्या राश्ट्रांकडल्यान योगदान घडूंक पावलें ही जमेची बाजू धरून लेगीत वसाहतवादाचो एकंदर परिणाम पळयल्यार लाभापरस नुकसानच चड जाल्लें दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**वसिष्ठ :** (१) एक वैदिक ऋषि. वरुणाचो पूत वसिष्ठ. हें उतर वसू ह्या श्रेश्ठत्त्व दाखोवपी धातूंपसून घडलां. वसिष्ठाच्या आनी दिव्य गुणांक उल्लेखून ताका वसिष्ठ हें नांव मेळळां. हो ऋग्वेदाच्या सातव्या मंडळाचो द्रष्टो आसा. मंडळांतलीं १०४ सूक्तां फकत हाणें एकट्यानूच रचल्यांत. भारतीय समाजाच्या इतिहास आनी भुगोलासंबंदीत गजालींचो ह्या सूक्तांवरवीं बरो बोध जाता.

वसिष्ठ हो धवे कपडे घालतालो. ताच्या माथ्यार उजवे वटेन शेंडो आशिल्लो. तो मंत्रविद्या आनी यज्ञकर्म ह्या दोनूय कामांत पाटांगडो आशिल्लो. ताचे लागीं हजारांनी गायो आशिल्ल्यो. ताचे तपश्चर्येन आनी कर्मकौशल्याचेर प्रभावीत जावन इंद्रान ताका प्रत्यक्ष दर्शन दिल्लें. हो राजपुरयत आसतना हाणेंच यज्ञकर्म करपाची चाल सुरू केली. पयलीं वसिष्ठ कुळाकूच तो अधिकार आशिल्लो, फुडाराक तो सगळया राजपुरयतांक मेळळो. वसिष्ठ आनी ताच्या पुताक 'तृत्सू' अशी दुसरी संज्ञा आशिल्ली.

पुराणिक युगांत वसिष्ठाक उर्वशीचो पूत मानला. पुराणवाङ्मयांत वसिष्ठ आनी अगस्त्य ह्या दोगांकय भाव मानल्यात. वसिष्ठाचे जिणेची कृतार्थताय म्हळयार ताणें दाशराज झुजांत सुदासाक हर यत्नांनी जैत मेळोवन दिल्लें. शिंपडिल्ल्या आर्य लोकांक सुसंघटीत करपाचें श्रेय वसिष्ठाकच दिवप जाता.

वसिष्ठ आनी विश्वामित्र ऋषींच्या खासगी दुस्मानकायेचो संदर्भ ऋग्वेदांत मेळटा, अशें कांय विद्वानांचें मत आसा. ऋग्वेदाच्या तिसऱ्या मंडळांतल्या ५३ व्या सुक्तांत निमाण्यो चार ऋचा वसिष्ठ देशाच्यो आसात. विश्वामित्रय सुदासाचो पुरयत आशिल्ल्याचो उल्लेख निरुक्तांत आसा. फुडें कांय कारणांक लागून तो अधिकार वसिष्ठाक मेळळो आसुंये आनी हेंच घडये ताचे दुस्मानकायेचें कारण जालें आसुंये. वसिष्ठ आनी विश्वामित्र हाचें ध्येय दृश्टींत फरक आशिल्लो आसुंये. वसिष्ठाचो पूत शक्ती हाणें भासाभाशेंत विश्वामित्राचेर हार घाल्ली, ह्याय कारणाक लागून तांचे मदीं वितुष्ठ आयिल्लें आसूं येता. यज्ञांतलो ब्रह्म हो वसिष्ठ गोत्रीच आसचो, अशें तैत्तिरिय संहितेंत म्हळां आनी विश्वामित्राक तर ब्रह्मर्शिपद हातासपाचें आशिल्लें, हाकाच लागून ही दुस्मानकाय जाली जांव येता. ह्या दोगांयमदली ही दुस्मानकाय चड तेंप तिगलीना, अशेंय दिसून येता. ते दोगूय व्हड ऋषी आशिल्ले आनी यज्ञसंस्थेची उदरगत करपाच्या कामांत तांणी मोलादीक वावर केला.

इंद्र, वरुण, उषा, अग्नी, विश्वदेव मुखेल करून हांकांच उद्देशून वसिष्ठांचीं सूक्तां आसात. काव्याचे नदरेन हीं सूक्तां खाशेलो उल्लेख करपासारकीं आसात. तातुंतल्यो उपमा आनी भास सोबीत आसा ताच्या इंद्रसूक्तांत आनी वरुणसूक्तांत भक्तिमार्गाचीं बियां किल्ल्लीं दिसून येतात. वसिष्ठ वरुणपंथी आशिल्लो. वरुणापरस इंद्राचें वर्चस्व वाडटा हें वसिष्ठाक पटलेंना, देखून ताणें दोगांयचोय समेट घडोवन हाडपाचो यत्न केलो, हें सूक्तांतल्यान दिसून येता. इंद्र हो जरी सत्ताधीश आसलो तरीय राज्याची सत्ता वरुणच चलयता अशेंय ताणें मत मांडलां.

पुराणांत वसिष्ठाकडेन कामधेनू आशिल्ली असो उल्लेख आसा, पूण ऋग्वेदांत असो खंयच उल्लेख दिसना. पूण अथर्ववेदांत जी ब्रह्मगवी नांवाचीं सूत्रां आसात. ताचेवयल्यान वसिष्ठाची कामधेनू म्हळयार तांचें मंत्रसामर्थ्याचें प्रतिक असोय तर्क करपाक वाव आसा.

इंद्राचे कृपेन वसिष्ठ सगळ्या लोकांचो पुरयत जालो (गोपथ ब्रा. १.२.१३). विपाशा न्हंयेंत वसिष्ठशिळा आनी कृष्णशिळा अशो ज्यो दोन सुवाती आसात, थंय ताणें तप केलें (गोपथ ब्रा. १.२.८). तशेंच 'एकोन पंचाशद्रात्र' नांवाचो याग ताच्या नांवाचेर आसा. (तैति. सं. ७.४.७), स्तोमभाग नांवाच्या मंत्राचो तो प्रवर्तक जावन आसा. (तैति.स. ३.५.२).

२) हो ब्रह्मदेवाच्या प्राणवायूपसून जल्मलो. तो ब्रह्मयाच्या १० मानसपूतांमदलो एक (भाग. पु. ३.१२. २३). हाका वसिष्ठ नांवाच्या ब्राह्मण कुळाचो मूळ पुरूस मानतात. अयोध्येच्या इक्ष्वाकू वंशांतलें राजाचें पुरयतपण बरेच शेंकडे ह्या वसिष्ठ कुळाकडेन आशिल्लें. ताका उर्जा आनी अरुंधती अशो दोन बायलो आशिल्ल्यो. तशेंच शतरूपा नांवाचीय एक बायल आशिल्ली. उर्जा ही दक्ष प्रजापतिची धुव तर अरुंधती ही कर्दम प्रजापतीची आठवी धूव आशिल्ली. तशेंच शतरुपा ही अयोनिसंभव आसून, ती वसिष्ठासावनच निर्माण जाल्ली आनी फुडाराक तीच ताची घरकान्न जाली. उर्जेक पुंडलिका नांवाची धूव आनी दक्ष, गर्त, उर्ध्वबाहे, आदी सप्तर्षिसंज्ञक सात पूत जाले. हाचेभायर तिका आनीक सात पूत जाले. सुक्रातादी पितरूय हिचे पूत मानल्यात. अरुंधतीक शक्ती नांवाचो चलो जालो. ताचेपसून जी वंशावळ सुरू जाली ती अशी - पराशर, कृष्णद्वैपायन - शुक - भुरिश्रवा, प्रभू, शंभू, कृष्ण, गौर आनी किर्तीमती धूव, शतरुपेक वीर नांवाचो चलो जालो. ताणें कर्दमप्रजापतिच्या काम्या नांवाचे चलयेकडेन लग्न केलें. तिचेपासून ताका प्रियव्रत आनी उत्तानपाद नांवाचे दोन पूत जाले. उत्तानपादाक अत्री ऋषीन पोसको घेतलो.

वसिष्ठ कुळांतले कांय फाकिवंत पुरीस आनी ताचो वावर असो- वसिष्ठ अथर्वनिधी हो अयोध्येच्या हरिश्चंद्र राजाचे आठवे पिळगेंत जावन गेलो. वसिष्ठ आपव हाका मत्स्यपुराणांत ब्रह्मवादी, वायुपुराणांत वारुणी (वरुणपूत) अशें म्हळां. वसिष्ठ चैकितानेय एक आचार्य. वसिष्ठ देवरान हो त्रयारुण, सत्यव्रत, त्रिशंकू आनी हरिश्चंद्र ह्या राजांचो पुरयत आशिल्लो. हरिश्चंद्राच्या यज्ञांत तो ब्रह्मा आशिल्लो. वसिष्ठऋषी अयोध्येच्या द्वितीय राजाचो पुरयत, वसिष्ठ ब्रम्हर्षी अयोध्येच्या दशरथ राजाचो पुरयत आनी मुखेल मंत्री. वसिष्ठ श्रेष्ठभान हो अयोध्येच्या मित्रसह कल्माष सौदास राजाचो समकालीन आशिल्लो. वसिष्ठ सुवर्यस हो हस्तिनापूरच्या संवरण राजाचो पुरयत आशिल्लो. वसिष्ठ हिरण्यनाभ कौशल्य एक आचार्य, हो जैमिनीचो शिश्य आशिल्लो.

एक प्रवरात्मक आनी त्रिप्रवरात्मक अशीं वसिष्ठ कुळांत दोन तरांचीं गोत्रां आसात. अलब्ध, आपस्थूण, उपावृध्दी, औपगव ही एक प्रवर गोत्रां तर त्रिप्रवर गोत्रांत इंद्र प्रमदी, भगी वस्तू आनी वसिष्ठ अशे तीन प्रवर आसात. उद्‌गाह, उपलद, औपमन्यव, काण्व, कालशिख आदी गोत्रां त्रिप्रवरात्मक आसात.

वसिष्ठगोत्रीय लोकांमदी जातुकर्ण्य नांवाचे पैतृक नांव घेतिल्ले लोक मुखेलपणान आशिल्ले. अशेंच एका जातुकर्ण्यान व्यास महर्षीक वेद आनी पुराणां शिकयल्लीं.

महाभारतांत आनी पद्म पुराणांत आनीकय कांय वसिष्ठ नांवाच्या व्यक्तींचे उल्लेख मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**वसू :** देवतांचो एक चोमो. हांची संख्या आठ आशिल्ल्यान तांकां अश्टवसू अशेंय म्हण्टात. तैत्तिरीय संहितेंत तांची संख्या ३३३ दिल्ली आसा. ऋग्वेदांत वसू हे धर्तरेचेर वसणूक करपी देव मानिल्ले आसात. पुराणीक साहित्यांत तांकां धर्म आनी वसू हांचे पूत म्हळयात. हांकां वासुदेवाचे अंश अशेंय म्हण्टात. वैवस्वत मन्वंतरांतल्या सात देवांच्या चोम्यांत वसूंची गणना केल्ली आसा. अग्नी हो वसूंचो नायक. देव आनी असूर हांच्या झुजांत तांणीं कालेय दैत्या वांगडा झूज केलें. वसिष्ठ ऋषीन तांकां बायल - दादलो समागमांतल्यान जल्म घेवपाचो शाप दिल्लो. वेगवेगळ्या पुराणांत तांचीं वेगवेगळीं नांवां दिल्लीं आसात. भागवतपुराणांत तांचीं, तांच्या बायलांचीं आनी तांच्या पुतांचीं जीं नांवां दिल्लीं आसात तीं अशीं -

| वसू | बायल | पूत |
|---|---|---|
| १) द्रोण | अभिमती | हर्ष, शोक, भय |
| २) प्राण | ऊर्जस्वती | सह, आयु, पुरोजव |
| ३) ध्रुव | धरणी | पुरस्थ देवता |
| ४) अर्क | वासना | तर्ष |
| ५) अग्नी | वसोर्धारा | द्रविणक, विशाख |
| | कृत्तिका | स्कंद |
| ६) दोष | शर्वरी | शिशुमार |
| ७) वसू | आंगिरसी | विश्वकर्मा |
| ८) विभावसू | उषा | व्युष्ट, रोचिष, आतप, पंचयाम |

ऐश्वर्यप्राप्तीखातीर वसूंची पुजा करची अशें सांगिल्लें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वस्त, बाबल रामा :** (जल्म : २५ मे १९१७ कुडचडें - केपें).

सुटकेझुजारी. सुटकेझुजाच्या काळांत ताणें कोळंबा, रिवणां तशेंच पिर्ला आदी वाठारांत तिरंगी बावटे लावपांत वांटो घेतिल्लो. गोंयच्या तरणाट्यांक सुटके झुजाचें म्हत्व पटोवन दिवपाक ताणें मोलादीक हातभार लायलो. १६ सप्टेंबर १९५४ ह्या दिसा पुलिसांनी ताका अटक केलो आनी इकरा म्हयने खर बंदखणीची ख्यास्त दिली. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वस्त्रकला आनी वस्त्रां :** मनीस कुळयेच्या इतिहासांतली एक आदीम तशीच म्हत्वाची कला. सैमान दिल्ले उक्ते कुडीचेर कसलें ना कसलें आवरण घालून ती धांपप आनी कुडीची सोबीतकाय प्रदर्शीत करपाखातीर त्या आवरणाचेर कलाकसुरी करप ही मनीस कुळयेची सामकी आरंभाची पद्दत दिसता. पुर्विल्ल्या काळांत मनीस झाडांच्यो साली, जनावरांची कातडी हांचो 'वस्त्र' म्हणून वापर करतालो, अशे उल्लेख जायत्या ग्रंथांनी सांपडटात. कालांतरान मानवी संस्कृती, राजकारण, धर्म हांच्या स्थित्यंतराकलागून कपड्यांच्या उद्देगाचेर आनी प्रसाराचेर परिणाम जाल्लो दिसता. आधुनिक काळांत सुती, रेशमी, टेरिकॉट, टेरिलीन आदी वेगवेगळया तरेच्या कपड्यांनी वस्त्रप्रावरणांत जायते बदल घडून आयिल्ले आसात. प्रगत तंत्रज्ञानाक लागून कापड निर्मितींत दिसानदीस बदल जायत आसून तातूंत वेगळेपण आनी आधुनिकीरण दिसून येता.

विणिल्लो कपडो म्हणजे वस्त्र अशें परंपरागत अर्थान म्हण्टात. टसर ह्या लॅटीन उतराचो 'विणप' असो अर्थ जाता. सूत विणून ताचेपसून मागाचेर कपडो तयार करतात. वेगवेगळे तरेच्या कपड्यांचो वस्त्रांत आस्पाव करतात. तंतू आनी सूत हांचो वापर कपडे तयार करपाखातीर करतात. ते प्रक्रियेक 'कापड उद्देग' अशी संज्ञा दितात.

कापडगिरणींतल्यान निर्माण करपांत येवपी वेगवेगळया ओडलायण्या कपड्यांत मोव सुती कपडो, लोकरीचो कपडो, नायलॉन, टेरिलीन, टेरिकॉट हांचो आस्पाव जाता. वेगवेगळया वस्तूंचे निर्मितीखातीर कपड्याचो उपेग जाता. हातूंत वेगवेगळया खेळांत वापरपांत येवपी जाळयो, होड्यांचीं शिडां, ग्रंथवेश्टनां, पताका, रोधक पट्ट्यो, टपालवाहतुकीच्यो पिशव्यो, पॅराशूट, टंकलेखन यंत्रांच्यो फिती, सत्र्यो हांचो मुखेलपणान आस्पाव जाता. तशेंच स्वयंचलित यंत्रांचे कारखानदार गालिचे, खुर्च्यो, गादयो हांच्या पड्ड्यांखातीर, दवाखान्यांतल्यो बँडेज पट्ट्यो, शल्यचिकित्सेखातीर लागपी दोरो आनी चिकटपट्ट्यो हांचेखातीर कपड्याचो उपेग करतात.

अश्मयुगीन संस्कृतींतल्या लोकांचो राहणीमानाचो अभ्यास केल्यार वस्त्रकलेच्या विकासाची वळख जाता. इजिप्त आनी पेरू हांच्यांत आर्विल्ले संस्कृतींनी कापडतंतुंचो व्हड प्रमाणाचेर सांठो करून दवरील्ल्याचें मेळटा. ६,000 ते ७,000 वर्सांपयलींचें लिनन कापड इजिप्तांत मेळिल्लें आसून इ.स. प. पंदराव्या शेंकड्यांतले चित्रजवनिकेचे नमुने मेळटात. भारतांत सु. इ.स.प. २000 वर्सांपसून सामको मोव, लार्गी लार्गी पारदर्शक सुती कपडो विणटाले आनी ग्रीक देशामेरेन निर्यात करताले. ग्रीक लोक ताका 'नेब्युला व्हेंतो' म्हणजे 'विणिल्लो वारो' अशें म्हण्टाले. चीनांत सु. ५00 वर्सांपयलीं रेशीमकपडो तयार जातालो म्हणपाचो अदमास आसा.

रोमन साम्राज्याच्या काळांत आनी हान साम्राज्याच्या काळांत (इ.स.प. २०० ते इ.स. २००) वस्त्रकलेचे कांय नमुने उपलब्ध आसले तरीय तातूंत दोन शेंकड्यांत नेटान वाड जाल्ल्या रेशीम उत्पादनाची बरीच आंकडेवारी सांपडटा. सिरियांतल्या पामीर हांगाच्यान आशियेच्या फुडें गेल्लो रेशीममार्ग सायबीरियांतल्या नॉइन उलोमेरेन पाविल्लो दिसता. इ.स.प. पयल्या शेंकड्यांत रेशीम उत्पादनाखातीर मागाचो चडसो उपेग जातालो म्हणपाचें तो दाखयता.

पुर्विल्ल्या काळांत जागतिक उत्पादनांत नामनेक पाविल्लो कॉप्टिक कपडो इजिप्तांतल्या थड्यांनी सांपडला. पयल्या ते सातव्या शेंकड्यांतल्या वस्त्रप्रकारांचे पूर्ण आनी खंडप्राय नमुने जगांतल्या वेगवेगळया संग्रहालयांत जतन केल्ले दिसतात. आठव्या शेंकड्यांतलो बायझंटिन रेशमी कपड्याचो दर्जो धाव्या ते बाराव्या शेंकड्यांतल्या रेशमी कपड्याचे तुळेन कमी प्रतीचो मेळटा. ह्याच काळांत बगदाद, सिरिया, इराण, इजिप्त स्पेन ह्या देशांनी नामनेक पाविल्लें इस्लाम काळांतलें रेशमी कपड्याचें उत्पादन जालें. इकराव्या शेंकड्यांत सिसिली ताब्यांत वचचेपयलीं तें इस्लाम काळांतल्या रेशमी कापड उत्पादनाचें प्रसिद्द केंद्र आशिल्लें. तेराव्या शेंकड्यांतल्या मोगल राजांनी सु. ६00 वर्सांपसून मुसलमानी राजांच्या काळांत ना जाल्लें रेशीमकापड उत्पादन परत सुरू केलें. युरोपीय देशांतले बाजारपेठेंत चीनी कापड आकृतिबंधांतलें महत्तम स्थित्यंतर, दर्जो आनी गुणवत्ता हांकांलागून नामनेक पावलें.

मध्ययुगीन काळांत इटली आनी स्पेन हीं रेशमी कापडनिर्मितीचीं मुखेल केंद्रां आशिल्लीं. चीन आनी भारत हांच्या रेशमी आनी सुती कपडो हांचे आयातीकलागून २०० वर्सां खंडित जाल्लें युरोपांतलें कापड उत्पादन परत व्हड प्रमाणाचेर जावपाक लागलें. १६ आनी १७ हे दोन शेंकडे म्हणजे इराणी कापड उत्पादनाचीं भांगरा युगां मानतात.

सतराव्या शेंकड्याच्या अदमासाक इटली हें रेशीम उत्पादनाचें मुखेल केंद्र जालें. ताचे उपरांत फ्रांसांतल्या रेशीम उत्पादनाक देंवती कळा लागली आनी हेर उत्पादनांचो उदय जालो. बऱ्याच युरोपीय देशांनी रेशमी कपडो वापराचेर बंदी हाडली. पूण उद्देगीक क्रांतीकलागून सूतकताई, विणकाम आनी कापड छपाई हांच्या साधनांत सुदारणां घडून आयल्यो. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक वस्त्रकलेच्या इतिहासांत जाल्लो म्हत्वाचो बदल म्हणजे हातमागाक जॅक जोडपांत आयिल्ल्यान यंत्रीक पद्दतीन वेगवेगळी कलाकुसर आशिल्ल्या कपड्याचें उत्पादन करप शक्य जालें. विल्यम मॉरिस (१८३४ - ९६) ह्या इंग्लीश कलाकारान पड्ड्याचो कपडो आनी छपाईचो कपडो हांचेर नवमध्ययुगीन आकृतिबंध काडून पयलींच्या सहयोगी संबंदांचो फरक ना केलो आनी कलाकार आनी वेवसायीक हांचो मेळ घडोवन हाडलो. हिरव्तार गुइमार ह्या फ्रांसांतल्या कलाकारान अठराव्या शेंकड्यात भरतकाम आनी ताचे फांटे दाखोवपी ओडलायणी आनी स्वतंत्र शैली ह्या शेंकड्याचे सुरवेक प्रसारीत केली. ताकालागून एकुणिसाव्या शेंकड्यांत

कापड उत्पादन शैलीन कालांतरान प्रगतीचें तेमूक गांठलें.

सुताचे दोन संच वापरून कपडो विणटात. उब्या सुताच्या संचान उबी वीण, जाल्यार आडव्या सुताच्या संचान जाळयेची वीण घालतात. सादी वीण घालपाक सोंपी आनी सादे कलाकुसरीची गरज आसता. छापील कपड्याची वीण १२ सुतांचो संच वापरून विणटात.

एक वा जायत्या दोरयांचे संच वापरून जाळयेचो कपडो तयार करतात. अशेतरेचे जाळयेची वीण आशिल्ल्या कपड्याचो उपेग तयार कपडे, अंतर्वस्त्रां आनी स्वेटर तयार करपारवातीर करतात. ट्रायकॉट विणीचो कपडो वजनान हलको आसून ताचेपसून चादरी, पोलके आनी बायलांखातीर ड्रेस तयार करतात. रशेल विणीचो कपडोय दाट आसून ताचेपसून वेगवेगळया तरांचे कपडे तयार करतात. तातूंत ब्लँकेट, गालिचे, दादल्यांचे ड्रेस, पेंवतना घालपाचे ड्रेस हांचो आस्पाव जाता. हेर कपड्यांत गुळी, जाळी, लेस, वीणी, फेल्ट सारकिल्ल्या विणयांचो आस्पाव जाता. माग वा विणकाम यंत्राचेर तयार जाल्ल्या कपड्याचेर जायत्यो प्रक्रिया करच्यो पडटात. तशेंच कपड्याक रंग दिल्या उपरांत वा ताचेर छपाई केल्याउपरांत तो यंत्राचेर ताणटात. हे पद्धतीक 'सॅन् फराय झिंग' म्हण्टात. ताचेउपरांत जड रुळाच्या आदारान ताका घडयो घालतात. हे क्रियेक इस्तरीकरण (कॅलेंडरींग) म्हण्टात. उपरांत कपड्याचेर छाप मारून तो विकपारवातीर धाडटात.

चडशा सगळया देशांनी कापड उद्येग चलता. जपानांत आनी युरोपीय देशांनी कापड उत्पादनाचें व्हड प्रमाणाचेर उद्येगीकरण आनी केंद्रीकरण जाल्लें दिसता. देखीक, इंग्लंड, इटली, स्विट्झर्लंड आनी अस्तंत जर्मनी हे देश कापड उत्पादनाखातीर लागपी यंत्रां आनी तयार कपडे ह्या उद्येगांत फुडारिल्ले मानतात. कापड उत्पादनाचें अस्तंत जर्मनी, पोलंड, रशिया ह्या देशांनी तशेंच हेर देशांतूय व्हड प्रमाणांत यंत्रीकीकरण जाल्लें आसा.

मध्ययुगीन काळाउपरांत कापड उत्पादनांत म्हत्वाचे बदल घडून आयले. इंग्लीश धर्मगुरू विल्यम ली हाणें १५८९ त तयार कपडे करपाच्या यंत्राचो सोद लायलो. नेदर्लंड्सांतल्या कापड कामगारांनी १६०० त कपड्याक रंग दिवपाची पद्धत आनी उत्पादीत कपडो सोबीत करपाची नवी पद्धत हांच्यांत सुदारणां घडोवन हाडल्यो.

अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत न्यू इंग्लंड हें कापड उद्येगाचें केंद्रच जालें. १७९० त सॅम्युएल स्लॅटर (१७६८ - १८३५) ह्या इंग्लीश विणकारान विजेचेर चलपी आनी सूतकताई करपी यंत्र तयार केलें. १७९३ त एली व्हिटनी (१७६५ - १८२५) ह्या अमेरिकन संशोधकान कापसाच्या सरकी यंत्राचें विस्तार संशोधन केलें आनी हाकालागून सुती कपड्याचें उत्पादन न्यू इंग्लंडांत व्हड गतीन जावपाक लागलें.

ल्वी - मारी हिलरी शार्दॉने (१८३९ - १९२४) ह्या फ्रेंच रसायनशास्त्रज्ञान १८८४ त तंतूंपसून कपडो विणपाचो पयलो सोद लायलो. हो कपडो आयज 'रेयॉन' म्हणून प्रसिद्द आसून १९१० त तो अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत 'कृत्रिम रेशीम' ह्या नांवान सुरवेक तयार करपांत आयलो. वॉलिस ह्यूम कॉरदार्स ह्या अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतल्या रसायनशास्त्रज्ञाक नायलॉन उत्पादनाचो विस्तार करपाचें श्रेय दितात. १९४० आनी १९५० त हेर कारखानदारांनी पॉलिस्टर आनी ॲक्रिलिक कपड्याचें उत्पादन केलें. १९६० त विश्लेशीत पॉलिस्टर धाग्यान दोट्टी विणीचो कपडो तयार करपाक कंपन्यांनी सुरवात केली. हो कपडो वजनान हलको आनी मोव आशिल्ल्यान चड लोकप्रिय जालो. आयज कापड उद्येगांत नव्यो प्रक्रिया आनी साधनां हांची भर पडिल्ल्यान ताका सगळयांत म्हत्वाचें स्थान फाव जाल्लें आसा.

अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांतल्या कापड उद्येगांत सु. ५,५०० कापडगिरण्यो कार्यरत आसून त्यो सु. ७,००० संच कार्यान्वित करतात. थंयचे कापड उत्पादक दर वर्सा ११ महापद्म पौंड कापड उत्पादन करतात. दर वर्सा ह्या वेवसायांत ३६ महापद्म पौंडांची उलाढाल जाता. तातूंत मुखेलपणान बर्लिंग्टन् इंडस्ट्रीज इन्कॉर्पोरेटेड, वेस्ट पॉयंट पेपरिल इन्कॉर्पोरेटेड आनी स्प्रिंग्ज मिल्स इन्कॉर्पोरेटेड हांचो आस्पाव जाता. कॅनडांत कापड उत्पादन करपी सु. १,१८० कंपन्यो ३ महापद्म पौंडांची दर वर्साक उलाढाल करतात. ह्या उद्येगांत तशेंच तयार कपडे उद्येगांत दर एकी सुमार १,००,००० लोक कार्यरत आसात.

भारतासारक्या विकसनशील देशांत हजारांनी कामगार घरगुती उद्येगांतल्या रेशमी कापड उत्पादनांत आनी सैमीक तंतूंपसून केल्ल्या कापड उत्पादनांत वांटो घेतात. रेशमी आनी सुती वस्त्रांची तलम वीण, भांगरा - रुप्याचें भरतकाम वा सोबीत आकृतिबंधाचें रंगकाम हीं भारतीय वस्त्रकलेचीं परंपरागत खाशेलेपणां आसात. वाराणसीचे 'किनखाब', महाराष्ट्राची 'पैठणी', गुजरात - राजस्थानचो 'पाटोळा' तशेंच खडीकाम केल्ली महाराष्ट्राची 'चंद्रकळा', गुजरात - राजस्थान आनी सौराष्ट्राची 'बांधणी' हे प्रकार उत्कृश्ट मानतात. बंगाली 'कंथा', चंबाचो 'चंबा लेंस', पंजाबची 'फुलकरी', 'बाग', लखनौची 'चिकनकरी', काश्मीरी 'शाली' सारकिल्ले वस्त्रप्रकार ही भारताची नामनेची कलानिर्मिती जावन आसा.

खंयच्याय तंतूंच्या धाग्यांपसून विणकाम करून वा हेर कसलेय तरेन तयार केल्लो कपडो वा कापडी वस्तू अशी सादारणपणान वस्त्राची व्याख्या करता. कापूस, रेशीम, लोकर, ॲस्बेस्टस हांच्यासारक्या सैमीक तंतूंप्रमाण नायलॉन, रेयॉन, पॉलिस्टर तंतूरूप कंवची सारकिल्ले कृत्रिम वा मानवनिर्मित तंतूय कपड्याच्या धाग्यांखातीर वापरतात. मागाचेर वा सुयांनी विणून फासे वा टाके घालून वा गोफाप्रमाण गुंथून धाग्यांपसून कपडो तयार करतात. तशेंच धाग्यांक

गांठी मारून जाळयेप्रमाण कपडो तयार करूं येता आनी धागे चिकटावन आनी लाटुनूय कपडो तयार करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**वहाबी पंथ :** मुसलमानांचो एक पंथ. मुहंमद इब्न अब्दुल वहाब हाणें अरबस्थानांत इ.स. १७६० च्या सुमाराक ह्या पंथाची स्थापना केली. इस्लाम धर्माचे स्थापने उपरांत 1000 वर्सांत मुसलमान लोकांचे आचार - विचार इस्लामाच्या तत्त्वांपसून वेगळे जाले. एका अल्लाची उपासना करपाजाग्यार ते जायते पीर, बली आनी साधुसंत हांची भक्ती करूंक लागले. व्हड व्हड कबरी आनी स्मारकां बांदून थंय थाटाची आरास करूंक लागले. चैन, विलास, व्यसनां हातूंतच चडशे लोक मग्न उरताले. तांच्यो त्यो वायट चाली, अंधश्रध्दा आनी दुराचार पळोवन ताका वायट दिसलें. सनातन इस्लाम धर्माचें पुनरुज्जीवन करपाखातीर ताणें कुराण आनी अहादीस हांचेवयल्यान मूळ धर्मतत्त्वांचो खोलायेन अभ्यास करून सनातन धर्माचो प्रचार सुरू केलो. ह्या कामाक ताका दरैयाचो सरदार महंमद इब्न सय्यद हाचो आदार मेळ्ळो. फुडें महंमद सय्यदाच्या वंशजानी बळजबरीन वहाबी पंथाचो प्रसार सुरू केलो. १८०३ - ४ वर्सा ह्या पंथान मक्का आनी मदीना हीं शारां जिखून सनातन धर्माचें पुनरुज्जीवन केलें. ह्या पंथाच्या अनुयायांनी व्हड व्हड कबरी आनी मकबरे नश्ट करून उडयले. अमीर आनी औलिये हांचो ह्या पंथाक सुरवेक सावन विरोध आशिल्लो. तुर्कस्थान, इजिप्त आदी देशांतल्या राजकर्त्यांकडे ह्या पंथाचो संघर्श सुरू जावन, तातूंत तांची हार जावन ताचो प्रभाव उणो जालो. तरीय मक्का आनी मदीना हांगा पुराय संवसारांतले मनीस यात्रेखातीर वताले. तांकां सनातन धर्माचो उपदेश करपाचें काम वहाबी पंथाच्या प्रचारकांनी चालू दवरलें.

इ.स. १८२२ त रायबरेलीचो सय्यद अहंमद बरेलवी हो मक्केक वचून आयलो आनी ताणें भारतांत वहाबी पंथाची स्थापना केली. ताका जायते अनुयायी मेळ्ळे. ताणें शिखांआड जिहाद उबारून अफगाण आनी पठाण टोळयांक निमंत्रण दिलें आनी कलकत्त्यासावन पेशावर मेरेन मुसलमान समाजांत उठाव करून एक लाख तरणाटे धर्मझुजाखातीर तयार केले. तांच्या बळार ताणें राज्य स्थापन केलें आनी तो खलिफा जालो. ताणें आपली पुराय शक्त वापरून शीख राज्यार घुरी घाली. पूण रणजितसिंहान ताका हारोवन इ.स. १८३१ त ताका बालाकोटच्या झुजांत जिवो मारलो.

हिंदुस्थान हो 'दार-उल्-हरब' आसा, तो 'दार-उल-इस्लाम' जायमेरेन जिहाद चालू उरूंक जाय अशी इस्लामाची आज्ञा आसा. हें वहाबी पंथाचें मुखेल सूत्र आशिल्लें. तेप्रमाण ह्या पंथान इंग्लीश सत्तेआड इ.स. १८६५ मेरेन जायतेखेपे उठाव केल्लो. ब्रिटीश सरकारान वहाबी पंथाच्या फुडाऱ्यांआड खर कारवाय केली. तरीय ह्या पंथान आपली जिद्द सोडली ना.

वहाबी पंथाचें मुखेल कार्य धर्मीक स्वरुपाचें आसलें. अमीर उमराव आनी मुल्लामौलवी हांचो तांकां विरोध आसलो तरी सामान्य जनतेचेर ताचो बरो प्रभाव पडिल्लो. भारतांत बंगाल, बिहार, गुजरात ह्या वाठारांत ह्या पंथाचे जायते अनुयायी जाले. दक्षिण भारतांतय ह्या पंथाचो बरोच प्रचार जालो. कालांतरान ह्या पंथाच्या कार्याक राजकीय आंदोलनाचें रूप मेळ्ळें. ब्रिटीश सरकाराआड ह्या पंथान एक गुपीत संघटना उबारली. तिचें मुखेल केंद्रस्थान बिहारांत पाटणा हांगा दवरून बंगाल, बिहार वाठारांतल्या सगळया जिल्ह्यांनी तिचीं केंद्रां उबारिल्लीं. पाटणा हांगाच्या मुखेल्याक खलीफा म्हण्टाले. थंयच्या केंद्रांत जायत्या स्वयंसेवकांक वेगवेगळया प्रकारचें शिक्षण दिवप जातालें. शेंकड्यांनी प्रचारक भारतांतल्या वेगवेगळया वाठारांतनी फिरून आपल्या तत्त्वांचो उपदेश करताले आनी संघटनेखातीर नीधी जमयताले. तांच्या प्रचारांत धर्मीक आनी समाजीक सुदारणेचेर भर दिल्लो आसलो तरी तातूंत परके सत्तेआड झूज दिवपाची चिथावणी आसताली. पूण ताच्या प्रचारांत अशे तरेची भाशा आसताली की, कोणच तांचेर राजद्रोहाचो आरोप दवरूंक शकनासले. तांच्या उपदेशांक लागून हजारांनी मुसलमान कट्टर धर्माभिमानी आनी सरकारद्रोही जाले.

गांवगिऱ्या वाठारांनी वेगवेगळे तरेन एकठांय जाल्ले आदार पाटणा हांगाच्या केंद्रांत एकठांय करून ती वायव्य शीमेवाठारांत ब्रिटीश सरकाराआड झुजपी पंगडाकडेन धाडप जाताली. ह्या सगळया कामांखातीर पंथाच्या फुडाऱ्यांनी एक गुपीत आनी घटमूट अशी यंत्रणा उबी केल्ली. तांणी एक गूढ सांकेतीक भाशाय तयार केल्ली. १८६३ त अकस्मात ब्रिटीश सरकाराक हे संघटनेचो सुगावो लागलो. उपरांत फुडाऱ्यांक धरले आनी तांकां खयास्त केली.

- कों. वि. सं. मं.

**वळवईकर, नरहरीबुवा :** (जल्म : १० मे १९२० जुवें, सांतइस्तेव्ह; मरण : १५ मे १९९४, बांदोडें).



गोंयचो नामनेचो उत्कृश्ट गायक नट. ताचे आवयचें नांव सुबोधिनी आनी बापायचें नांव विनायक. पूण 'दादी' ह्या नांवानच ताका वळखताले. नरहरीचें भुरगेपण आनी चवथी यत्तेमेरेनचें मराठी - पुर्तुगेज शिक्षण बांदोड्यां जालें. नरहरी पांच वर्सांचो आसतना, ताचे आवयक मरण आयलें. बापायन (दादीन) ताका

ल्हानाचो व्हड केलो. 'दादी' हो नाट्यक्षेत्रांतलो एक व्यासंगी. बरो नाट्यशिक्षक आनी नट. नरहरीक मुळांत, सुरेल आनी ऊंच आवाजाची देण लाबिल्ली, तातूंत कलेचो वारसो ताणें आपल्या बापायकडल्यान मेळयल्लो. नटवर्य भार्गवराम आचरेकर हाचेकडल्यान ताणें संगिताचें शिक्षण घेतलें.

भुरगेपणांतच, आपल्या बापायवांगडा ताणें रंगमाचयेर ल्हान ल्हान भुमिका करपाक सुरवात केली. गोंयांतल्या खेड्यापाड्यांनी तांणी प्रेम संन्यास, शिवाजीला शह, हिरा हरपला, संशयकल्लोळ, प्रणयीकिटक, संत पुंडलीक, दरवळनचा दिवा, शहा शिवाजी अशा बऱ्याचशा नाटकांनी कामां केल्ल्यांत. बापूय - पुताक बरींच आमंत्रणां मेळूंक लागलीं. तशेंच खेड्यांनी आनी शारांनीय, देवस्थानांच्या जात्रा - उत्सवांनी आनी फंड काडून नाटक करपाची तांकां संद मेळ्ळी. थोड्याच काळाभितर ताका एक खांपो गायक नट म्हणून नामना मेळ्ळी.

रंगभुमीच्या पडट्या काळांत म्हळयार १९४१ वर्सासावन ताणें 'नवजीवन' हे नाटक कंपनींत, लोकप्रिय नटसंचावांगडा खुबशो भुमिका साकार करून एक गुणी नट म्हणून कीर्त मेळयली. सखारामबापू बरवे हाच्या 'प्रभात संगीत' मंडळींतय ताणें भुमिका केल्यो. सं. शौभद्र, मानापमान, संशयकल्लोळ, शारदा, विद्याहरण, पुण्यप्रभाव ह्या नाटकांतल्या पदांच्यो बारीकसाणी आनी त्या पदांतलें 'रसज्ञान' आनी म्हायती मेळोवन ताचो उपेग ताणें बऱ्याचशा नाटकांनी केलो.

महाराष्ट्रांत ताणें श्रेश्ठ गायकनट - नटवर्य गंगाधरपंत लोंढे हाचे 'राजाराम संगीत' नाटक मंडळींत आनी उपरांत विनोदी कलाकार दामूअण्णा मालवणकर हाचे 'प्रभाकर' नाटक मंडळींत काम केलें. भुमिका करता करतांच ताका रंगमाचयेवयली सुसबध्द हालचाल, अभिनय, भास, शब्दफेक हेविशीं दुर्मिळ अशें नाट्यशिक्षण मेळ्ळें. इ.स. १९५४ ते १९६१ ह्या गोंय आनी भारत शिमेबंदिच्या काळांत गोंयकारांचे मनरिझवणेखातीर ताणें गोंयच्या नामनेच्या कलाकारांवांगडा दर्जेदार नाट्यप्रयोग केले.

नागेशींचो भजनी सप्ताह मडगांवची दिंडी, वास्कोचो सप्ताह, श्री दामोदर (मडगांव) सालांतलो श्री श्रावण सोमार, श्रीरामनाथ देवस्थान आनी पणजे, दिवचल, कुंभारजुवें, माशेल, बोरी, शिरोडा, काकोड्यां, केपें ह्या सगळया वाठारांनी सप्ताहांत नरहरीबुवाची उपस्थिती हें एक संगीत दर्दीखातीर खाशेलें आकर्शण आसतालें.

नरहरीबुवा आकाशवाणीचो कलाकार. बऱ्याचशा संस्थांनी ताच्या कार्याचो गौरव आनी भोवमान केल्यात. १९९२ वर्सा गोमंतक मराठी अकादमीन आपलें मानद सदस्यत्व दिवन ताचो भोवमान केलो. गोंय शासनान १९९१ - ९२ वर्साचो लोककलेचो राज्यपुरस्कार दिवन ताका भोवमानीत केलो. तशेंच वयोवृध्द कलाकार ह्या नात्यान ताका सरकारी मानधन मेळटालें. तेचभाशेन गोवा सांस्कृतिक मंडळ, सम्राट संगीत संमेलन, गिरिजाबाई केळकर संगीत संमेलन, धी गोवा हिंदू असोसिएशन आनी १९९० वर्सा रामनाथी जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद, १८ वें अधिवेशन हांगा ताचे सत्कार जाल्यात. आपले ऐन उमेदीच्या काळांत गोंयांत तशें गोंयांभायर एक उत्कृश्ट गायक नट म्हण नांव कमायल्याउपरांतच्या काळांत, ताणें गोंयांतल्या उत्सवी नाट्यकलेक व्हड योगदान दिलें. आपलो बापूय 'दादी' हाच्या सहकार्यान ताणें गोंयभर जावपी कितल्याशाच उत्सवी नाटकांचें दिग्दर्शन केलां. नाटका वांगडाच भजनकलेंतच ताणें प्राविण्य जोडलें. स्वताच्या भारदस्त आवाजान भजनाच्यो मैफिली रंगयतनाच खेड्या पाड्यांतल्या इत्सूक कलाकारांखातीर भजनाचे वर्ग घेतले. गोंयचो भजन सम्राट, मनोहरबुवा शिरगांवकार आनी नरहरीबुवा वळवईकर हे जोडयेन गोंयांत आपली अशी एक भजन परंपरा निर्माण करून दवरल्या. नरहरीचो पूत प्रसाद हो अभिनय आनी संगीताच्या मळार नांव जोडून आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वळ्ळत्तोळ, नारायण मेनन :** (जल्म : १६ ऑक्टोबर १८७८ वेट्टत्तुनाटु - मलबार; मरण : १३ मार्च १९५८, चॅरुतुरूत्ती).

केरळांतलो एक आर्विल्लो महाकवी आनी कथकळी ह्या नाचाप्रकाराचो पुनरुध्दारक.



ताच्या बापायचें नांव दामोदरन आनी आवयचें नांव पार्वतीअम्मा. ताचें शिक्षण पारंपारीक पद्दतीन गुरूघरा रावन जालें. ताचो मामा रामुण्णी मेनन हाणें ताका वैजकीचें शिक्षण दिलें. पारक्कुळम सुब्रह्मण्यम शास्त्री, कैक्कुळङ्कर आनी राम वारियर हांणी ताका तर्कशास्त्र शिकयलें. श्री करूत्तपार दामोदरन नम्पूतिरी हांणी ताका साहित्याविशीं गोडी लायली. शिक्षण पुराय जातकच तो विद्यार्थ्यांक संस्कृत शिकोवपाक लागलो आनी फाविल्ल्या वेळांत वैजकीचो वेवसाय करपाक लागलो.

इ.स. १८९७ त ताचे आवयक मरण आयलें. उपरांत ५ - ७ वर्सांभितर ताच्या बापायक आनी मामाकय मरण आयलें. १९०२ वर्सा चिट्टषी माधवी नांवाचे चलयेवांगडा तो लग्न जालो.

बापायक मरण येतकच ताणें आपलो वैजकीचो वेवसाय बंद उडयलो आनी बापायन स्थापन केल्ले नाटक मंडळीची जबाबदारी

घेतली. तातूंत ताणें नट म्हणूनय काम केलें. पूण ही कंपनी चड वर्सां तिगली ना. फुडें ताच्या कांय वांगड्यांनी ताच्या आदारान परिष्काराभिवर्धिनी नांवाची आनीक एक नाट्यसंस्था सुरू केली. पूण हातूंतय ताका व्हडलेंशें यश मेळ्ळेंना. इ.स. १९१० वर्सा तो दुयेंत पडलो. हातुंतच ताका भेडुंपण आयलें. ह्या भेडुंपणाक लागून ताका जे सुमाराभायर त्रास सहन करचे पडले. तांचें वर्णन ताच्या 'बधिरविलाप' नांवाच्या काव्यांत वाचूंक मेळटा. तेउपरांत ताणें आपली सगळी जीण कवनां करपांत तशेंच कथकळी आनी मोहिनीआट्टम ह्या नाचाच्या उद्धारार्थ घालयली.

इ.स. १९३२ त ताणें नाटक, नाच, अभिनय आदी कलांचो विकास घडोवन हाडपांत तिरुत्तिप्परम ह्या गांवांत कलामंडलम नांवाची संस्था स्थापन केली. उपरांत तो चॅरुतुरूत्ती नांवाच्या गांवांत गेलो आनी थंय ताणें आपले संस्थेचें केंद्र कार्यालय स्थापन केलें. फुडें ताणें हांगा छापरवानोय घालो. हे संस्थेंत कथकळी, मोहिनीआट्टम, भरतनाट्यम्, थुळ्ळल आदी नाचा प्रकाराचें शिक्षण दिताले. तशेंच संगीत आनी वाद्यवादन हेय विशय पद्दतशीरपणान शिकयताले. ताचे नाचाचे प्रकार केरळाभायर भारतांतय लोकप्रिय जाले. फुडें मलाया, सिंगापूर, ब्रह्मदेश, श्रीलंका ह्या देशांतय ताणें आपलें कलामंडळ घेवन हे कार्यक्रम लोकप्रिय केले. हाचेभायर ताणें रशिया, चीन आदी देशांचीय वेगवेगळया निमतान भोंवडी केली.

भारताच्या स्वातंत्र्याउपरांत मद्रास राज्य सरकारान दवरिल्ल्या द्रविड भाशेंतल्या सर्वश्रेश्ठ कवींतलो, राजकवी जावपाचो मान सगळयांत पयलीं ताका मेळ्ळो. भारत सरकारान ताका पद्मविभुषण ही भोवमानाची पदवी दिली. तेन्नाच्या त्रिवांकूर संस्थानाच्या अधिपतींनीय ताका वेळोवेळ सन्मानपत्रां आनी पदकां दिवन भोवमान केलो. केरळच्या आनी दिल्लीच्या साहित्य अकादमीचो तो सन्माननीय वांगडी आशिल्लो.

वळ्ळत्तोळ हाणें जायतें साहित्य रचलें. पिरायेच्या बाराव्या वर्सासावन तो कविता बरयतालो. ताच्या ह्या कवितांचे आठ भाग साहित्यमंजरी ह्या नांवान उजवाडाक आयल्यात. हाचेभायर विषुक्कणी, दिवास्वप्न, वीरश्रृंखला, परलोक, स्त्री, एण्टे गुरूनाथ हे ताचे आनीक कांय म्हत्वाचे ग्रंथ आसात. बधिरविलाप, चित्रयोगम, गणपती, विलासलतिका, बन्धनस्थानाय अनिरुध्दन, ऑरुकत्तू शिपयनुमकनुम मग्दलम मरियम, अच्छनुमकळुम, कॉच्युसीता हीं ताचीं कांय म्हत्वाचीं खंडकाव्यां आनी महाकाव्यां आसात. हांचेभायर ताणें कांय म्हत्वाच्या ग्रंथांचो अणकारय केला. हे ग्रंथ अशे : वाल्मीकिरामायण, ऋग्वेद, मार्कंडेयपुराण, पद्मपुराण, वामनपुराण, मत्स्यपुराण.

वळ्ळत्तोळ हाणें केरळोदयम, रामानुजन, आत्मपोषिणी ह्या पत्रांचें संपादन केलें. कांय तेंप तो केरळकल्पद्रुम नांवाचें मुद्रणालय चलयतालो. हाचे उपरांत ताणें मंगळोदयम नांवाचे प्रकाशनसंस्थेंत रुपांतर केलें. ताका केरळांतल्या राश्ट्रीय कवितेचो जनक समजतात. हिंदू, मुस्लीम आनी किरिस्तांव ह्या केरळांतल्या तीनूय मुखेल धर्मांतलीं सारभूत तत्त्वां आत्मसात करून तीं तत्त्वां ताणें आपल्या काव्याच्या शब्दांत मांडिल्लीं. ताच्या राश्ट्रगीतांनी पुराय केरळांत राश्ट्रीय उत्थानाचें वारें व्हावंक लागलें. ताची कविता ही अन्याय आनी अत्याचाराआड वाचा फोडपी आशिल्ल्यान केरळांतले जनतेन ताका आगळीच सुवात फावो जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**वॅलेस, ग्रॅहॅम :** (जल्मः इ.स. १८५८ इंग्लंड; मरणः इ.स. १९३२).

मानसशास्त्रीय आनी संख्याशास्त्रीय पद्दतींचो उपेग राज्यशास्त्रांत आनी समाजशास्त्रांत करूंक जाय ह्या विचारांचो पुरस्कर्तो. ऑक्सफर्ड हांगा ताणें आपलें शिक्षण पुराय केलें. उपरांत तो शिकोवपाची नोकरी करूंक लागलो. लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स हे संस्थेचे स्थापनेंत ताणें मोलादीक वावर केलो आनी उपरांत तेच संस्थेंत राज्यशास्त्र विभागाचो प्रमूख म्हूण ताणें तीस वर्सां काम केलें.

ताणें 'ह्युमन नेचर इन पॉलिटिक्स' ह्या ग्रंथांत मनशाचे राजकीय वागणुकेविशीं आपले विचार मांडल्यात ते अशे - राजकीय वागणुकेचें स्पश्टीकरण मानसशास्त्रीय नदरेंतल्यान करूंक जाय. मानवी वागणुकेचीं जायतीं कारणां आसतात. तीं दर खेपे बुध्दीवादी आनी विचारशील आसताच अशें ना. ताचीं राजकीय मतां वा निर्णय पुरायतरेन तर्किक कसोट्यांचेर वा सारासार विचारांचेर आदारिल्ले नासतात. वेंचणूक प्रचाराक प्रतिसाद दितना, फुडाऱ्याक फाटबळ दितना वा मत दितना मनशाच्यो मूळच्यो प्रवृत्ती भावना ह्योच चड निर्णायक थरतात. मनीस साध्य आनी साधन हांचो तारतम्यान विचार करताच अशें ना. विचारांपरस मनशाच्यो सैमीक प्रेरणा, संपत्तीची ओड हेरांकडेन सर्त आनी तातुंतल्यान येवपी झुजारी वृत्ती ह्या सैमीक प्रवृत्तींचो ताचेर चड परिणाम जायत आसता. ताचें शिक्षण, समाजीक परिस्थिती, संवय, परंपरा हांचोय प्रभाव ताचे वागणुकेंत चड दिसता. मनशाचे राजकीय नदरेन म्हत्वाच्या थारपी निर्णयांच्या आनी वृत्तीफाटल्यान अशीं जायतीं मानसशास्त्रीय कारणां आसतात.

राज्यशास्त्राच्या अभ्यासांत फकत गुणात्मक पद्दत वापरीनासतना संख्यात्मक पद्दतीचो वापर करपांत येवंचो हें ग्रॅहॅम हाचें दुसरें म्हत्वाचें प्रतिपादन. ह्या आर्विल्ल्या संवसारांत आंकडेवारी, सरासरी तुळात्मक म्हायती दिवपी कोश्टकां आनी आलेख हांचो उपेग करून घेवपाची शास्त्रीय पद्दत रूढ जाल्ली आसा. तिचो उपेग राजकारणांतय करचो. हे पद्दतीन मेळिल्ली म्हायती अचूक आसता आनी ताकालागून तातुंतल्यान काडिल्ले निश्कर्श वस्तुस्थितीचें नेमकें दर्शन घडयतात. ह्या संदर्भांत ताणें 'कमिशन ऑन पुअर लॉ' (१९३३

- ३४) आनी 'पुअर लॉ कमिशन ऑफ १९०५' ह्या दोन आयोगांचो उल्लेख केल्लो आसा.

प्रचाराच्या तंत्रांत मानसशास्त्रीय संकल्पनांचो आनी निश्कर्शांचो कसो उपेग करपाक जाय आनी करपांत येता हें ताणें दाखोवन दिलें. मनशाचें राजकीय मत आनी ताचो राजसंस्थेक आसपी तेंको वा विरोध हो अपरिहार्यपणान प्रचाराचो प्रभाव आसता. ताच्या मतान रेडिओ, टी. व्ही., दिसाळीं, भाशणां आदी साधनांचो मनशाचेर चड परिणाम जाता. तशेंच राजकीय ध्येयधोरण थारावप वा पसंत करप ही प्रक्रिया व्यक्तिगत क्रिया नासून समाजीक आसा अशें ताचें मत आशिल्लें.

मनशांमदली विचारशक्ती ल्हव ल्हव वाडूंक जाय आनी तेखातीर शिक्षणाची तशेंच जाणीवपूर्वक यत्नांची गरज आसा अशें ताच्या विचारांचें सार आशिल्लें.

व्यक्तिस्वातंत्र्याक हयकारात्मक आनी न्हयकारात्मक अशो दोन बाजू आसल्यो तरी स्वातंत्र्य आनी लोकशाय हीं मुल्यां सांबाळूंक जाय अशें ग्रॅहॅम प्रतिपादन करता. तेखातीर सनदी लोकशायेंत सुदारणा जावंक जाय, त्या अधिकाऱ्यांनी संकुचीत वृत्ती सोडून जबाबदारीन निर्णय घेवपाची वृत्ती आपणावंक जाय अशें शासकीय सुदारणेचे कांय मार्गाय तो सुचयता.

'ऑन सोशल हेरिटेज' ह्या आपल्या ग्रंथांत तो आंतरराश्ट्रीय शांततायेविशींचे विचार मांडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**वाइनबर्ग, स्टीव्हन :** (जल्म : ३ मे १९३३ न्यूयॉर्क).

अमेरिकन सैध्दांतिक भौतिकीविज्ञ. १९५४ वर्सा ताणें कॉर्नेल विद्यापिठाची पदवी मेळयली. उपरांत कोपनहेगनांतल्या नील्स बोर इन्स्टिट्युटांत ताणें एक वर्स अध्ययन केलें. १९५७ वर्सा प्रिन्स्टन विद्यापिठाची पीएच्.डी. पदवी घेतली. १९५७ - ५९ त ताणें कोलंबिया विद्यापिठांत आनी १९५९ - ६० त लॉरेन्स बर्कली रेडिएशन लॅबोरेटरींत डॉक्टरेट पदव्युत्तर संशोधन केलें.

१९६० - ६९ त ताणें बर्कली हांगा कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत प्राध्यापक म्हण काम केलें. १९६८ - ६९ त मॅसॅचूसेट्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजींत अभ्यागत प्राध्यापक १९६९ - ७३ त प्राध्यापक, १९७३ - ८३ त हार्व्हर्ड विद्यापिठांत हिगिन्स प्राध्यापक, १९७३ - ८३ स्मिथसोनियन ॲस्ट्रोफिजिकल ऑब्झर्व्हेटरींत वरिश्ठ शास्त्रज्ञ आनी १९७५ - ७७ स्टॅनफर्ड विद्यापिठांत अभ्यागत प्राध्यापक, ऑस्टिन हांगाच्या टेक्सास विद्यापिठांत विज्ञान विशयाचो जोसे रिजेंटल प्राध्यापक म्हण काम केलें. तेभायर येल, नॉर्थ वेस्टर्न, ऑक्सफर्ड, कोलंबिया, जॉन हॉपकिन्स, केंब्रिज स्टॉकहोम ह्या विद्यापिठांत अभ्यागत अधिव्याख्यातो म्हण काम केलां.

ताणें बरयल्लें साहित्य - ग्रॅव्हिटेशन अँन्ड कॉस्मॉलॉजी; प्रिन्सिपल्स ॲन्ड ॲप्लिकेशन्स फॉर द जनरल थिअरी ऑफ रिलेटिव्हिटी (१९७२), द फर्स्ट थ्री मिनिटस; मॉडर्न व्ह्यू ऑफ द ओरिजिन ऑफ द युनिव्हर्स (१९७७), द डिस्कव्हरी ऑफ सबॲटॉमिक पार्टिकल्स (१९८२) आनी आर. पी. फाइनमन हाचे वांगडा एलिमेंटरी पार्टिकल्स अँड द लॉज ऑफ फिजिक्स (१९८७) हे ग्रंथ आनी दोनशांपरस चड वैज्ञानिक लेख उजवाडायल्यात.

वाईनबर्ग हाणें १९५० उपरांत मूलकण भौतिकी विशयांत दुर्बल अणुकेंद्रीय परस्पर क्रिया सममिती नेम आनी पुंज क्षेत्र सिध्दांतांतल्या अनंत राशींच्यो समस्या हांचेर संशोधन करपाक सुरवात करून ह्या काळांत ताणें म्यूऑन आनी विचित्र कण हातुंतल्या दुर्बल परस्पर क्रियांच्या विश्लेशणांत भर घालून दुर्बल निर्विद्युत् प्रवाहाच्या शक्यतेचें विवरण केलें.

तशेंच पुंज क्षेत्र सिध्दांतांतले संवेगअवकाश समाकलांच्या अभिसरणासंबंदींचें म्हत्वाचें प्रमेय सिध्द केलें. वाइनबर्ग हाणें एच्. गीऑर्गी आनी एच्. क्विन हांच्या वांगडा बृहत् एकीकरण क्षेत्र सिध्दांताची बुन्याद घाली आनी विश्वरचनाशास्त्र पुंज प्रकीर्णन सिध्दांत आनी गुरूत्वाकर्षण पुंज सिध्दांत ह्या भौतिकींतल्या क्षेत्रांत मोलाचें काम केलें. ताची १९६८ वर्सा अमेरिकन ॲकॅडेमी ऑफ आर्टस अँड सायन्सेस आनी १९७२त नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसांत वेंचणूक जाली. तो अमेरिकन फिजिकल सोसायटी, इंटरनॅशनल ॲस्ट्रॉनॉमिकल युनियन आनी फिलॉसॉफिकल सोसायटी ऑफ टेक्सास ह्या संस्थांचो वांगडी आशिल्लो.

मूलकण भौतिकींत म्हत्वाचें कार्य केल्ले खातीर ताका १९७९ वर्साचें नोबॅल पारितोशिक फावो जालां. मियामी विद्यापिठाचें जे. आर्. ओपेनहायमर पारितोशिक (१९७३), अमेरिकन फिजिकल सोसायटीचें गणितीय भौतिकीखातीर आशिल्लें डॅनी हाइनमान पारितोशिक (१९७७), अमेरिकन इन्स्टिट्यूट ऑफ फिजिक्स्यू. एस्. फाउंडेशनचो विज्ञान लेखन पुरस्कार (१९७७) हे भोवमान ताका फावो जाले. फ्रँक्लिन इन्स्टिट्यूटचें एलिअट क्रिसन पदक (१९७९) ताका फावो जालें. तेभायर ताका शिकागो (१९७९), येल (१९७९), रॉचेस्टर (१९७९), सिटी युनिव्हर्सिटी, न्यूयॉर्क (१९८०), क्लार्क (१९८२) आनी डर्मॉथ (१९८४) ह्या विद्यापिठांनी तशेंच वाइझमान इन्स्टिट्युटान सन्माननीय डी. एस्सी. आनी वॉशिंग्टन कॉलेजान (१९८५) सन्माननीय डी. लीट्. ह्यो पदव्यो दिल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**वांचो :** अरुणाचल (नेफा) प्रदेशांतल्या तिरप वाठारांतली एक आदिवासी जमात. इंग्लीश राजवटींत हे लोक खुबच रानटी अवस्थेंत आशिल्ले. हे लोक रंगान काळे, चेपट्या नाकाचे, बारीक दोळयांचे

आनी मध्यम उंचायेचे आसून आंगान घटमूट आसतात. तांचे दादले कानांत वेगवेगळीं फुलां, पानां, लांकडी ठोकळे, जनावरांचीं शिंगां आदी जायते तरेच्यो वस्तू घालतात. बायलो गळयांत मणयांच्यो आनी तणाच्यो भरपूर माळो घालतात. तांकां वस्त्राचें व्हडलेंशें भान नासता. बायलो वेतभर लांबायेचो कपडो कमराक गुठलायतात. राजघराण्यांतल्यो बायलो लांब केंस दवरतात. तातुंतल्यो कांय आंबाडो घालतात जाल्यार कांय जाणां तणाचे वाटकुळे नळयेंत केंस गुंथून फाटीर सोडटात. दादल्यांक गळयांत वेगवेगळया मणयांच्यो आनी पोरन्या नाण्यांच्यो माळो घालपाची आवड आसता. भुरग्यांपसून म्हातान्यांमेरेन दादल्यांच्या पोटा भोंवतणी वेताचीं तीन चार वाटकुळां घट्ट गुठलायिल्लीं आसतात. भूक कमी लागची आनी पोटाचे विकार जावंचे न्हय हो ते फाटलो हेतू आसता. बायलो आनी दादले आंगभर गोंदोवन घेतात. तशेंच कोंड्याचो खतखतीत रोस दांतांक लावन दांतय काळे करून घेतात.

तांचीं घरां सुरक्षिततायेचे नदरेन दोंगराचेर बांदिल्लीं आसतात. लांकडाच्या वा कोंड्याच्या मचाणाचेर ते आपलीं घरां बांदतात. घराच्यो वणटी हांतरपट्याच्यो आनी पारवें ताडाच्या पानांचें आसता. राजाचें घर मात सर्वसादारण घरांपरस ऊंच आनी बरेंच व्हड आसता. ताचे भायले कुडींत जायते तरेचीं शस्त्रां हुमकळायल्लीं आसतात. राजाक जायत्यो राणयो करूंक मेळटात. राजाची मुखेल राणी ताचेरखातीर जेवण करता.

शेती हो तांचो मुखेल वेवसाय आसून ते झूम पद्दतीन शेती करतात. दर दोन वर्सांनी ते शेताचो जागो बदलतात. तांदूळ, मक्की आनी कोनी धान हें तांच्या शेतांतलें मुखेल उत्पादन. शेताचीं सगळीं कामां चडकरून बायलोच करतात.

तांदूळ, मक्की, कोनी, कंदमुळां आनी मांस हें ह्या लोकांचें मुखेल अन्न. ते सगळया जनावरांचें मांस खातात. हुंदीर हें तांचें आवडिचें खाद्य. भातापसून ते लौपाणी नांवाचो सोरो तयार करतात. तांच्या सण - परबांनी सोऱ्याक खूब म्हत्व आसता. तांकां तंबाकू, अफू हांचें व्यसन आसता. बायलो चडकरून साली नांवाच्या झाडाची साल चुनो लावन खातात. वांचो बायलो आनी दादले कोंड्यापसून पांटले, खोंटले, शेंदऱ्यो आदी वस्तू विणपांत हुशार आसतात. तशेंच लांकडाचेर कोरीव काम करप, तशेंच मली ह्या तणापसून सोबीत माळो तयार करप असलीं कामां करतात.

लग्ना आदीं वांचो चले - चलयांक खूब स्वातंत्र्य आसता. चलयो आपलो न्हवरो आपुणूच सोदून काडटात. दर एका नव्या जोडप्याक हे लोक भौशिक तरेन नवें घर बांदून दितात. सुरवेच्या काळांत लग्नाआदीं तरणाट्यान आंगार गोंदोवन घेतलेबगर लग्न करूंक मेळनासलें. पूण गोंदोवन घेवंचे आदीं ताका दुस्मानाकडे जाल्ल्या झुजांत वांटो घेवन एक तरी मुंडकें कापून हाडचें पडटालें. पूण अशा तरणाट्याकडे लग्न जावपाक चलयो तयार आसनाशिल्ल्यो. ताका लागून ही चाल फुडें बंद पडली.

लग्नावेळार चल्याचो बापूय चलयेच्या बापायक तिचें मोल म्हूण मिथून नांवाचो प्राणी दिता. लग्नावेळार तशेंच हेर व्हड उत्सवावेळार मिथून कापपाची चाल आसा. ह्या लोकांची गिरेस्तकाय मिथून प्राण्यावयल्यान थरता. जाचेकडेन चड मिथून आसतात ताका गिरेस्त समजतात.

मेल्ल्या मनशाक हे लोक पुरनात वा लासनात. तर एका कोंड्याच्या ऊंच मचाणाचेर तें मडें दवरून तें तणा पाल्यान धांपतात. सुरवेक कांय दीस ताका उब मेळची म्हूण ताचे घरचे मड्या लागसार शेकोटी पेटयतात आनी ताचे भोंवतणी प्रदक्षिणा घालून शोक करतात. मड्याचें पुराय शरीर कुसून वतकच ताचें मुंडकें कापून घरा हाडटात आनी तें निवळ करून एका फातरा पोंदा दवरतात. वर्सांतल्यान एक फावट हीं मुंडकीं भायर काडून तांकां सोरो आनी मांस ओंपून परत तीं फातरापोंदा दवरतात.

मोरंग ही वांचो लोकांची खास अशी संस्था आसा. दर एका गांवांत चार - स मोरंगघरां आसतात. राजाच्या घरालागसार ताचें मोरंग आसता. तातूंत राजा ग्रामसंस्थांच्यो सभा घेता आनी जमातीविशीं म्हत्वाचे निर्णय घेता. ह्या मोरंगांत भितर एके वटेन तीस चाळीस फूट लांबायेचो भितरल्यान पोकळ असो लांकडी ओंडको आसता. हाचेर आघात केल्यार ढम, ढम असो आवाज जाता. संकटा वेळार वा गांवकान्यांक कसल्योय सुचोवण्यो दिवपाच्यो आसल्यार ताचो वापर करतात. अशा वेळार लोक आसा तशे मोरंगाकडे जमतात. गांवांतल्या हेर मोरंगांत गाय, मिथून आनी हेर जनावरांचीं मुंडकीं, शिंगां, कवट्यो, जबडे आनी सोबेच्यो वस्तू लायतात. तिनसांजेच्या वेळार वांचो तरणाटे हांगा जमून विनोद, गजाली, संगीत हांचेवरवीं आपली करमणूक करून घेतात. भुरग्यांक शिस्त लागची, ते हुशार आनी निर्भय जावंचे अशे तरेचें शिक्षण हांगा दितात. सगळया भुरग्यांचो मेळून हांगा एक मुखेली आसता. भुरग्यांक हांगा शेकोटेखातीर कोंडे, लांकडां हाडप, कंदमुळां हाडप, उदक भरप असलींय कामां करचीं पडटात. राजाच्या भुरग्यांक लेगीत हांगा कामां करचीं पडटात. लग्न जायसर सगळया तरणाट्यांक मोरंगांतूच न्हिदचें पडटा. बायलांक मात मोरंगांत प्रवेश नासता. आधुनिक काळाच्या बदलाच्या प्रभावखाला वांचोचे चालीरितींत काळाप्रमाण बदल घडत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**वांस्वेल :** वर्गीकरण : पृष्ठवंशी (Vertebrata); वर्ग - स्तनिवर्ग (Mammalia); गण (Order) कार्निव्होरा, कूळ (Family) - उर्सीडे.

हें जनावर भारत, आशिया, युरोप आनी अमेरिका ह्या

खंडांनी सांपडटा. हें जनावर व्हड आनी कुडीन सशक्त आसता. ताची तकली मोटी आनी त्यामानान पांय आनी हात ल्हान आसतात. शेंपडीय ल्हान आसता. पांयाचो तळवो चपटो आनी ताका पांच बोटां आसतात. ताका लांब वांकडीं नाखटां आसतात. हात - पांय चड फांकील्ले (पांगे) आसतात. ह्या खाशेलपणाकलागून ताका झाडार चडपाक आनी जमीन खणपाक सोंपें जाता. ताचे कान वाटकुळे, दोळे ल्हान आनी आंगलोट मोठो आसता. नर आनी मादी दिसपाक सारकींच आसतात. वांस्वेलाचो रंग धवो, करडो, काळो वा काळो - धवो असो विंगड विंगड वाठाराप्रमाण आसता. हातापांयांची घडणय हवामान, सुवात, खावड हांचेर आदारिल्ली आसता. वांस्वेलाच्या आंगार दाट केंस आसतात.

वांस्वेलाची वास घेवपाची शक्त सामकी खर जाल्यार नदर आनी आयकुपाची शक्त उणी आसता. कुडीच्या मानान वांस्वेल बरेंच नेटान धांवक शकता आनी उदकांत पेंवपाक शकता. थंड वाठारांतल्या वांस्वेलाच्या पांयांच्या तळव्यांक दाट केंस आसतात. अमेरिका आनी युरोपांत सांपडपी वांस्वेलां कुडीन मोटीं आसतात. त्या मानान हेर कडेन ल्हान आसतात.

वांस्वेल शाकाहारी आनी मांसाहारी आसता. पानां - फळां, तण, म्होंव, किडे, मुयो, ल्हान प्राणी, तांतयां, नुस्तें, मेल्ल्या प्राण्यांचीं मडीं अशी तरेकवार खावड हो प्राणी खाता. ही खावडूय वाठाराप्रमाण आसता.

थंड हवेच्या दिसांनी वांस्वेलां भोंवनात. तीं एकेच सुवातेर न्हीदून रावतात. हिमालय वाठारांतलीं वांस्वेलां ह्या तेंपार सकयल्ल्या वाठारांनी आयिल्लीं दिश्टी पडटात. पावसांत आनी गिमांत वांस्वेलां घोलींनी वा कसल्याय आडसाक न्हिदून रावतात. वांस्वेल चडशें कळपान भोंवना. पोरां मात व्हड जायसर आवय वांस्वेलावांगडा भोंवतात.

वांस्वेलाचो गाबण काळ ७ ते ८ म्हयन्यांचो आसता. एके फावटीक २ - ३ पेटे जातात. तांकां जातना केंस नासतात आनी एक म्हयनोमेरेन ते कुड्डे आसतात. वांस्वेल ४० - ५० वर्सां जगूंक शकता.

वांस्वेल सादारणपणान दुसऱ्याचे वाटेक वचना. तें मनशाक भियेता. पूण चोरांवांगडा आसल्यार वा जखमी जाल्लें आसल्यार तें कोणाचेरूय अचकीत घुरी घालता.

वांस्वेलांच्यो मुखेल सात जाती आसात. त्यो अशो -

१) वक्ल लायिल्लें वांस्वेल (Spectacled) : हें वांस्वेल दक्षिण अमेरिकेंत सांपडटा आनी ताच्या दोळयांभोंवतणी वक्ल लायिल्लेभशेन पट्टे आसतात. हाचो रंग काळो वा पूडी कोराचो आसता.

२) बीग ब्रावन वांस्वेल वा ग्रीझली वांस्वेल : हाका शेंपडी नासता. हाचो रंग पुडी कोराचो आनी तें कुडीन मोठें आसता. हें युरोप, आशिया आनी कॅनडा हांगा सांपडटा.

३) अमेरिकन ब्लॅक : हें वांस्वेल अमेरिका, अलास्का, कॅनडा हांगा सांपडटा.

४) एशियाटीक ब्लॅक : हें आशिया खंडांत सांपडपी काळया रंगाचें वांस्वेल.

५) पोलर बेअर : हें धवसार रंगाचें आसता. तें बरें धांवक आनी पेवंक शकता. हें बर्फाळ वाठारांनी सांपडटा.

६) सन बेअर : हें सगळयांत ल्हान प्रकारचें वांस्वेल. तें झाडाचेर रावता. ताका शेंपडी नासता आनी तें सुमात्रा, बोर्निओ हांगा सांपडटा.

७) स्लॉथ बेअर : काळसर रंगाचें हें वांस्वेल भारत आनी श्रीलंका हांगा सांपडटा.

भारतांत कांय लोक वांस्वेल पोसतात आनी तांचो खेळ करून पोट भरतात.

वांस्वेलाक चडशे साथीचे रोग जायनात. पूण हेर रोग जातात. तांचेर परोपजीवी प्राणी जगतात. वांस्वेलाक जावपी कांय मुखेल रोग म्हळयार - Chlostridium infection, Staph ylococus Septicaenuia, Maniliaris, Meningitis, Eucephalitis, ringworm, Ascariatss, Hook Worms, Trich inosis आनी Tape Worms, Antibiotics आनी Sulpha हीं वखदां आसात.

- डॉ. ए. व्ही. खांडेपारकार

**वाग :** आशिया खंडांतल्या फेलिडे ह्या मार्जार कुळांतलो सगळयांत व्हड आनी बळिश्ट प्राणी. पृश्ठवंशी विभागांतलो हो प्राणी स्तनिवर्गांत मोडटा. ताचो गण कारनिवोरा आनी कूळ फेलिडे. ताचें शास्त्रीय नांव पँथेरा टायग्रीस.

वाग हो प्राणी शींवाभाशेनूच बळीश्ट. पूण शींवापरस तो खूब धूर्त, चपळ आनी क्रूर. वाग हें डरकाळी फोडपी माजर. पूण ताची डरकाळी शींवापरस खूब कमी. ताचो आस्पाव निशाचर प्राण्यांत जाता आसलो तरी वाग दिसाचो शितळ सुवातेर विसव घेतना खूब कडेन दिश्टी पडटा. चडशा वागांची केंसाळ कात तांबशी हळदुवसार आसून तिचेर काळे पटे आसतात. गळो, पोट आनी पांयांच्या भितरलो फर धवो आसता. फकत रेवा वाठारांत सांपडपी वाग धवसो आसून



ताचेर तपकिरी रंगाचे पटे आसतात. वागाचे दोळे निळशे आसून, नाक आनी पांयांचीं तळटां गुलाबीशीं आसतात. ताका आयाळ नासता. पूण जाण्टया वागाक कानसुलाचेर लांब केंस आसता. ताचे कान भायले वटेन काळे आसून तांचेर धवे थिपके आसतात. अशा रंगाचे कातीक लागून ताका उजवाडांत आनी सावळेंत सैमीक राखण (natural camouflage) मेळटा. सादारणपणान वागाची लांबाय कपल ते शेंपडेच्या पोंतामेरेन २६० - २९० सेंमी. इतली आसता. ताच्या सांगाडयाची रचणूक खाशेले पद्दतीन जाल्ली आसून तो फाटल्या मांसाळ भागांक उडी मारपाक आनी फुडल्या पांयांक आवुंळपाक वा ओडून व्हरपाक बळ पुरयता.

सादारणपणान वेगवेगळया वागांची प्रदेशाप्रमाण विभागणी केल्या. देखीक - सिबेरीयन वाग (पँथरा टिगरीस आल्टायका); चीनी वाग (पँथरा टिगरीस एमोयेंसीस); बंगाल वाग (पँथरा टिगरीस टिगरीस); कॅस्पीयन वाग (पँथरा टिगरीस विर्गेटा); सुमत्रा वाग (पँथरा टिगरीस सुमात्रे); बाली वाग (पँथरा टिगरीस बालिका). वेगवेगळया वाठारांत सांपडपी वागांची प्रजाती थरावपाखातीर खूब यत्न जाले. पूण सद्या सगळे वाग एकूच प्रजातीभितर आस्पावतात हें अधिकृतपणान मानून घेतलां.

सगळयांत पयलीं वागाचें अस्तित्व सिबेरीया आनी नव्या सिबेरीया जुंव्यांचेर आसलें हें थंय सांपडिल्ल्या जिवाश्मांवयल्यान कळटा. उपरांत ल्हव ल्हव दक्षिणेकडेन ते मलेशियन आर्चिप्लेगो प्रदेशांत पातळळे. पूण सद्या भारतांत तांचें प्रमाण चड आसून, लागीं लागीं भारताच्या सगळया वाठारांनी ते मेळटात. वाग पाचव्योंचार दाट रानांनी, वसू रानांनी तशेंच झिली - झोपांनी रावपाक शकतात. वागाची चाल नेटाची. तो रातचो आपलें भक्ष सोदपाखातीर मैलांचे मैल पयस चलून वता. तो वेगान खूब पयस मेरेन धांवपाक शकता. रानदूकर, म्हशी, गोरवां, बोकडां आनी हरणांची शिकार करून तो खाता. ह्या जनावरांची शिकार करपाक ताका अपेश आयल्यार तो बेबो, गार, मानगें, रानकोंबो आनी हेर सरपटपी प्राणी मारून खाता. सादारणपणान एक खेपे वाग १८ - २० किलो मांस खाता. चडकरून वाग आपली शिकार एकटोच करता. वागाचें नाक, कान आनी नदर हीं इंद्रीयां तीक्ष्ण आसून तांच्या आदारानूच तो आपल्या भक्षामेरेन पावता. पूण केन्ना केन्नाय वाग जोडयांनी मेळून शिकार करतात. गाय सारकिल्लें व्हड जनावर तो तीन दीस मेरेन खाता. भक्षाक मारल्या उपरांत सुरवेक तो ताचें रगत घोटता आनी उपरांत आपल्या धारदार दातांनी जठर आनी आंतकडयो कुशीक काडून फकत मांस खाता. तो कुशिल्लें मांसूय खाता. भक्षाक खाल्ल्या उपरांत तो आपलीं नांखटां झाडाचे सालीर घासून नितळ करता.

वाग पिरायेच्या चवथ्या वा पांचव्या वर्सा वयांत येतात. उपरांत फुडलीं ११ ते १४ वर्सांमेरेन वागीण दर अडेज वर्सांनी एकदां फळटा. तांचो समागम काळ चडकरून पावसा उपरांत सुरू जाता. फळपाक येतकच वागीण डरकाळी फोडून वागाक साद घालता. लागीं लागीं एक पंद्रस तीं एकठांय रावतात. १०५ ते ११५ दिसांचो तांचो गर्भावधी आसता. वागीण एका वेळार २ ते ६ छाव्यांक जल्म दिता. सादारणपणान छाव्यांचें वजन १ ते १.५ किग्रॅ. आसता. वाग आनी वागीण चडकरून समागमाच्या काळांतूच एकठांय येतात. देखून छाव्यांची वाड वागीणीचे देखरेखीखाल जाता. छावो एक वर्साचो जातकूच वागीण ताका आपल्या भक्षाची शिकार करपाक शिकयता. दोन वर्सां उपरांत छावो स्वतंत्रपणान आपल्या भक्षाची शिकार करूंक शकता.

एकुणिसाव्या शेंकडयाचे निमाणेमेरेन भारतांत वागांचें प्रमाण खूब आसलें. पूण सद्या तें खूब उणें जाल्लें आसा. हाचें मुखेल कारण म्हळयार हिसबाभायर रानतोड आनी सर्रासपणान जावपी तांची शिकार. वागाची कात, हाडां, दांत आनी नाखटां हांकां आंतरराश्ट्रीय बाजारपेठेंत चड खप आशिल्ल्यान फाटल्या वर्सांनी वागांची चड प्रमाणांत शिकार जाली. आजुनूय तांची लिपचोरयां शिकार चालूच आसा. वागांक योग्य ती राखण दिवन तांचें प्रमाण वाडोवपाखातीर १९७२ त भारत सरकारान विश्व रानटीमोनजात निधीच्या आदारान 'प्रॉजेक्ट टायगर' ही येवजण चालीक लायल्या.

- डॉ. आय. के. पै

**बिबटो वाग :** हो प्राणी फेलिडींतलो (मार्जार कुळांतलो). ताचें शास्त्रीय नांव पँथेरा पार्डस.

बिबटो वाग आनी मनशाळिल्लें माजर हांचेमदीं खूब सारकेपण आसा. माजराभाशेन हाची तकली वाटकुळी, नाक ल्हान आनी बसकें आसता. शेंपडी लांब आनी बारीक आसता. नाखटां तीक्ष्ण, लांब आनी भितर ओडून घेवपी आसतात. बिबटयाचे दांत लांब, तीक्ष्ण आनी घट्ट आसतात. ताचें कात हळदुव्या रंगाची आसून तिचेर बारीक, ल्हंव आनी काळे, वाटकुळे थिपके आसतात वेगवेगळया प्रदेशांनी मेळपी बिबटयांच्या थिपक्यांचे प्रकार वेगवेगळे आसतात. बिबटयाचे फाटीचेर थिपक्यांचे प्रमाण चड आसता. पोट आनी पांयांभितरलो भाग धवो आसता. आशियेंतल्या बिबटयाच्या आंगावयले थिपके आकारान व्हड आसतात पूण आफ्रिकेच्या बिबटयांचे थिपके ल्हान आसतात. भारतांतल्या दोंगराळ वाठारांनी मेळपी बिबटयांच्या आंगार खूब उणे थिपके आसतात.

नर बिबटयाची लांबाय २१५ सेंमी. मेरेन आसता आनी मादी मातशी ल्हान, म्हळयार १५० - १७५ सेंमी. लांब आसता. पुराय वाड जाल्ल्या नराचें वजन सरासरी ६८ कील जाल्यार मादयेचें वजन ५० किलांमेरेन मेळटा. नर आनी मादी एकठांय रावनात. फकत समागमाच्या वेळार एकठांय येतात. मादी खंयच्याय तेंपार फळटा. ती २.५ ते ४ वर्सां पिरायेची जातकच प्रजननाक योग्य जाता.

तिचो गाबण काळ ८७ ते ९४ दिसांचो आसता. एका वेळार मादयेक २ ते ४ पेटे जातात. ४ ते ८ दिसांनी तांचे दोळे उक्ते जातात. चार म्हयने जातकच ते आवयचें दूद पियेवपाचें सोडटात आनी हुंदीर, सोंसो असल्या प्राण्यांची शिकार करतात. देड - दोन वर्सांचेर ते स्वतंत्र जगपाक शिकतात.

मध्य आनी दक्षीण अमेरिकेंत बिबट्याचे जीवाश्म (Fossil) मेळ्ळयात. ह्या जीवाश्मांवयल्यान हो प्राणी मायोसीन (सुमार १.२ ते २ कोटी वर्सांपयलींच्या) काळांतलो प्राणी आसुंये अशें दिसता. बिबट्याची उत्पत्ती पयलीं सायबेरियेंत जाली. थंयसावन तो युरोप, आफ्रिका आनी आशियेच्या हेर भागांनी गेलो आनी थंयसावन आसामांतल्यान भारतांत आयलो.

खंयच्याय हवामानांत बिबट्याची वाड जाता. दाट रानांनी, उकत्या मैदानाचेर, रेंवटी प्रदेशांत वा फातरी - दोंगराळ वाठारांत तेच भाशेन हिमालयांतल्या २,५०० ते ३,००० मिटर उंचायेच्या प्रदेशांत लेगीत बिबटो रावता.

आर.आय. पोकॉक हाच्या मतान आशियेंतल्या बिबट्यांच्यो सुमार इकरा जाती आसात. तातुंतल्यो तीन जाती भारतांत मेळटात. कोचीनालागसार ल्हान आकाराची, काळया रंगाची बिबट्याची एक जात मेळटा. आसामांतय अशेच तरेचे बिबटे आसात. हजारीबागेक धव्या रंगाचो बिबटो (आल्बिनो) मेळिल्लो.

बिबट्याक सूर्यप्रकाशाची संवय आशिल्ल्यान ते दिसाचीय शिकार करतात. आपले शक्तीप्रमाण ते गोरवां, मेंढरां, दुकर, हरणां, सोंशे, सुणीं, बबून, कुकडां हांची शिकार करतात. केन्नाकेन्नाय ते मनशाकय खातात. बिबट्याचे दोळे वाटकुळे आनी बुबळां पाचव्या रंगाचीं आसतात. तांचे कान तीक्ष्ण आनी नदरूय बरी आसता. तेच भाशेन ते धूर्त आसतात. बिबट्याक बरें पेंवपाक येता आनी झाडाचेरूय चडपाक येता. झाडाचेर चडून तो लिपून बसता आनी येवपी - वचपी प्राण्याचेर घुरी घालता. मारिल्लें भक्ष्य उपरांत दाट झुडपांनी व्हरून लिपोवन दवरता. ताचीं पावलां मांसाळ आशिल्ल्यान शिकार करतना ताच्या पावलांचो आवाज जायना. ताच्या फुडल्या पांयांक चार आनी फाटल्या पांयांक पांच नारवटां आसतात.

- डॉ. ए. एस्. वागळे

**वाग्भट :** पुर्विल्ल्या भारतांतलो वैज. ह्या नांवाचे दोन वैज जावन गेल्ल्याचें मानतात. त्या काळाप्रमाण आज्याचें नांव नातवाक दवरप ह्या हेतून हे दोगय नातू आनी आजो आसूं येतात. तांचो काळ निश्चीत कळना तरी चीनी प्रवासी इत्सिंग हाणें वाग्भटाचो उल्लेख केला. ताचेवयल्यान व्हडल्या वाग्भटाचो काळ इ.स. सातव्या शेंकड्याआदीं आसूं येता अशें ए.एफ्. आर. हॉर्नल हाचें मत आसा. ताच्या मतान धाकट्या वाग्भटाचो काळ इ.स. आठवो - णववो शेंकडो असो अनिश्चीत आसा. धाकटो वाग्भट रसायन, रसकुपी आनी कायाकल्प हांचेरवातीर प्रसिद्द आसलो. ताच्या गुरूचें नांव अवलोकितेश्वर आशिल्लें आनी तो बौध्द धर्ममताचो आशिल्लो. एके आख्यायिकेप्रमाण इजिप्ताच्या राजाक वैजकी उपाय करपाखातीर गेल्लो थंयच ताका मरण आयलें.

अष्टांगसंग्रह आनी अष्टांगहृदयसंहिता हे आयुर्वेदीक ग्रंथ दोन व्यक्तींनी बरयल्यात आसूं येता अशें हॉर्नले आनी ज्योतिष चंद्र सरस्वतीचें मत आसा (म्हळयार पयलो ग्रंथ आज्यान आनी दुसरो ग्रंथ नातवान बरयला जांवये). गणनाथ सेन आनी पंडीत यादवजी त्रिक्रमषी आचार्य हाच्या मताप्रमाण त्या ग्रंथांचें स्वरूप, भाशाशैली आनी रचणूक पळयल्यार दोनूय ग्रंथ एकाच मनशान (धाकट्या वाग्भटान) बरयल्यात जांवये.

अष्टांगसंग्रहाचे निमाणेकडेन बरोवप्यान वाग्भटाचो पूत सिंहगुप्त आनी सिंहगुप्ताचो पूत वाग्भट असो उल्लेख केल्लो आसून, आपूण सिंध देशांत रावपी आसा अशेंय म्हणिल्लें आसा. ह्या ग्रंथाची रचणूक चरक आनी सुश्रूत हांच्या ग्रंथासारकीच आसून तो गद्य - पद्यमय आसा. ह्या ग्रंथाक बृहत् । वृध्द वाग्भट अशेंय म्हण्टात आनी तो इ.स. आठव्या शेंकड्याआदीं बरयल्लो आसूंक जाय.

अष्टांगसंग्रहाचें सार सुत्ररुपान अष्टांगहृदयसंहिता ह्या ग्रंथांत आयिल्लें दिसता. हातूंत वैजकशास्त्राचें श्लोकबध्द विवेचन दिल्लें आसून, शस्त्रक्रियेविशीं विस्तृत विवेचन केल्लें आसा. ह्या ग्रंथाक 'वाग्भट' वा 'लघुवाग्भट' अशेंय म्हण्टात. हो ग्रंथ इ.स. आठव्या शेंकड्याउपरांत बरयल्लो जांवये. अफू, नाडी परिक्षा आनी रसायनक्रिया हांचो उल्लेख ना. आयुर्वेदीक ग्रंथांत हाचेर सगळयांत चड टिकाग्रंथ बरयल्यात. हांचेमदीं अरूण दत्ताची 'सर्वांग सुंदरी' (इ.स.बारावो शेंकडो) आनी हेमाद्रीची 'आयुर्वेद' (इ.स.तेरावो शेंकडो) ह्यो टिका उल्लेख करी सारक्यो आसात. ह्या ग्रंथाचे तिबेटी आनी जर्मन भाशांनी अणकार जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**वागळे, मनोरमा मनोहर :** (जल्म : ३० ऑगस्ट १९२९ मुंबय).

रंगमाचयेवयली नामनेची कलाकार. शाळेंतलें शिक्षण सोंपोवन एस्.एन्.डी. टी. ह्या वनिता विद्यापिठांतल्यान संगीत विशयाची पदवी घेतली.

संगीताचे शास्त्रीय प्रगल्भतेखातीर पंडीत गोविंदराव अग्नी, प्रा. बी. आर देवधर, श्याम गोगटे, पंडीत जगन्नाथबुवा पुरोहित, पं. के. जी. गिंडे हांचेकडल्यान शिक्षण घेतलें. आर. एन्. पराडकर हाचेकडल्यान नाट्य आनी सुगम संगीताचें शिक्षण मेळ्ळें.

'द गोवा हिंदू असोसिएशन' च्या महिला शाखेच्या स्नेहसंमेलनांत 'संगीत सत्तेचे गुलाम' ह्या नाटकांतली 'रमाबाई' ही

तिची पयली भूमिका हाचेभायर 'लग्नाची बेडी' (गार्गी) 'संशयकल्लोळ' (कृत्तिका), १९५२ वर्सा गोवा हिंदू असोसिएशनच्या 'खडाष्टक' (दिनूची सासूमाय राधाबाई), सौभद्र (नटी), 'स्वामिनी' ह्या संगीत नाटकांत जगन्नाथाची पुरूश भूमिका आदी भूमिका तिणें केल्यो. 'स्वर थांबले मैफलीचे' ह्या कोंकणी नाटकांत एके नायकिणीचे भूमिकेंत गजल, ठुमरीसारखें संगीत तिणें पेश केलें.

रत्नाकर मतकरींच्या 'पंचेचाळीस हेच लग्नाचं वय' ह्या नाटकांत भास्कर चंदावरकरान टेप केल्ल्या पार्श्वसंगीताचेर उडटे चालीचीं वेधक लयीचीं भावकाव्यां तिणें सादर केल्यांत. तिणें सुमार पस्तीस नाटकांत भूमिका करून मानसन्मान, पारितोशिकां मेळयल्यांत. तातुंतलीं कांय उल्लेख करपासारकीं अशीं : 'खडाष्टक' नाटकांतल्या 'रागिणी' हे भूमिकेखातीर १९५५ - ५६च्या मुंबय राज्य द्वितीय नाट्यस्पर्धेंत सर्वोत्कृश्ट अभिनयाचें पारितोशिक आनी रुप्या पदक, पार्श्वनाथ आळतेकर नाट्यस्पर्धेंत 'शांताबाई' हे भूमिकेखातीर लक्ष वेधपी अभिनेत्रीचें पारितोशीक, १९६६ अ.भा. मराठी नाट्यपरिशदेवतीन शंकर घाणेकर पुरस्कृत 'दिनकर कामण्णा' रसिक सुवर्णपदक १९८५.

गोमंतक मराठी अकादमीच्या मराठी रंगभूमिवयल्या कार्याखातीर व्हड कलावंताक प्रदान करपांत येवपी 'मानद अधिसदस्यत्व' १९९४-९५. 'सासूबाई'ची भूमिका आशिल्ल्या 'एरियल' साबणाच्या जाहिरातीचें टी.व्ही फिल्माचें सुवर्णपदक १९९२. तेच भूमिकेखातीर 'तमिळ' भाशेंतल्यान केल्ले जाहिरातीखातीर उत्कृश्ट अभिनयाची १९९२ वर्साची ट्रोफी तिका मेळ्ळ्या.

तिणें आपल्या नाटकांतल्यान सुमार पस्तीस भूमिका केल्यात. तातूंत बालनाट्य ते नवनाट्य मेरेनचो प्रवास आसा. २ बालनाट्यां, १0 फार्स नाटकां, ७ विनोदी, ३ पुरूशपात्र विरहित, १ एकपात्री आनी ४ नवनाट्यांनी तिचो सहभाग आसा. तिणें आपल्या आंगांतल्या कलागुणांनी मराठी रंगमाचयेर एक विनोदी कलावंत म्हण नामना जोडली.

- कों. वि. सं. मं.

**वागळे, माई शणै :** (पंदरावो शेंकडो).

पुर्विल्ल्या गोंय प्रदेशाचो सुभेदार. हो वसंत माधवाच्या घराण्यांतलो आसुंये. इ.स. १४०३ ते १४०४ ह्या काळांत विजयनगरच्या गोंय प्रदेशाचो मुखेल प्रधान वा सुभेदार म्हूण काम करतालो. १४०२ च्या वेळूस फातरपट्यांत नरसा गोसाव्याचो मुणयारी म्हणून आनी १४१३ च्या बांदोडेंच्या फातरपट्यांत नंजण्णा गोसाव्याचो प्रतिनिधी म्हणून ताचो उल्लेख मेळटा. हाचेवयल्यान, नरसा गोसावी १४०१ ते १४०२ ह्या काळांत गोंय, चंद्रगुत्ती - कोंकण ह्या विभागाचो महाप्रधान आशिल्लो आनी गोंय प्रदेशाचो कारभार माई शणै पळयतालो असो बोध जाता. १४१३ सावन परत नंजण्ण गोसावी हो गोंय, चंद्रगुत्ती - कोंकणचो मुखेल प्रधान आसून गोंयचो कारभार नंजण्णाच्या हातासकयल माई शणै पळयतालो म्हणपाचें अनुमान काडूं येता. हो माई शणै बांदोडेंच्या बोकडबागकार देशमुखाचो संबंदीत आशिल्लो आनी मंगेशी लागसरच्या कुंकळ्ळी गांवचो रावपी आशिल्लो. ताच्या बापायचें नाव पुरसो शणै तर आडनांव वाघळा (वागळो) आशिल्ल्याचें कोंकणाख्यानांत सांगलां. ताणें नागेश आनी महालक्ष्मी देवस्थानाक वर्सावळ नेमून दिली, तशेंच निवेद्याखातीर कुळागर आनी शेताची देणगीय दिली.

- कों. वि. सं. मं.

**वागोळें :** (पळेयात पारवो).

**वाघ, बहुगुण अनंत कामत :** पुर्तुगेज काळांतलो नामनेचो दुभाशी. ताचें घराणें मुळचें तिसवाडींतल्या पानवेल गांवचें. १७१९ ते १७५१ मेरेन पुर्तुगेज राजवटींत तो दुभाशी (मराठीचें पुर्तुगेज आनी पुर्तुगेजीचें मराठी भाशांतर करपी सरकारी नोकर) म्हणून वावुरलो. बहुगुण कामत वाघ व्हायसरॉय जुआंव द् साल्दाज्य द् गाम हाचेवांगडा सावंत भोसल्यावयले मोहिमेर गेल्लो. मराठ्यांनी रायतूरचो किल्लो रेवडायलो तेन्ना वाटाघाटीक वतना कौंदि द् सांदोमील ह्या व्हायसरॉयावांगडा तोय गेल्लो. १७३९ त मराठ्यांनी बारदेस आनी साश्टीचेर घुरी घाली, तेन्ना बहुगुण कामत हो व्यंकटी कामत, बाबुली सुखठणकार, उपी कामत, सांतू शणै डांगी, नारायण प्रभु, मिनू शणै, विठोजी धुमे हांचेवांगडा राय हांगा वाटाघाटीचीं उलोवणीं करूंक गेल्लो म्हणपाचो उल्लेख मेळटा.

मोगलांच्या हातांत जेन्ना फोंडेंचो किल्लो गेलो तेन्ना थंयच्या किल्लेदाराकडे वाटाघाटी करपाखातीर हिरे परोब खोलकार हाचेवांगडा बहुगुण कामतय गेल्लो. सावंत - भोसले हांचेकडेन तह करपाच्या कामगिरीरय विठोजी धुमे हाचेवांगडा कामतीक धाडिल्लो. ह्या तहावरवीं बारदेस प्रांत आनी पनेळ जुंवो पुर्तुगेजांक मेळ्ळो.

- कों. वि. सं. मं.

**वाघ, बहुगुण सदाशिव कामत :** पुर्तुगेज काळांतलो सरकारी दुभाशी. तो १७९४ ते १८०७ मेरेन पुर्तुगेज सरकाराचो दुभाशी म्हणून वावुरलो. ताणें आपल्या दुभाशाच्या वावरावांगडा पुर्तुगेजांचीं कांय राजनितीक कामांय केली. वाडीकार भोंसले आनी सौंदेकार हांचेकडेन ताणें राजकीय संबंद दवरलो.

बहुगुण कामत वाघान गोंयच्या इतिहासाचे नदरेन केल्लें व्हड म्हत्वाचें काम म्हळयार ताणें गोंयच्या इतिहासाचेर बरयल्लें 'गोमंतकाची बखर' हें लिखाण जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वाघ, सखाराम नारायण कामत :** वाघ घराण्यांतलो हो निमाणो दुभाशी. कामत वाघ घराण्यांतलो पुर्तुगेज सरकाराचो पयलो दुभाशी बहुगुण कामत हाचो पूत अनंत कामत हाचो सखाराम हो नातू. बहुगुण सदाशिव कामत वाघ, हो १८०७ त मेल्याउपरांत सखारामाची दुभाशी म्हणून कारकीर्द सुरू जाली. ताका मराठी, संस्कृत, पुर्तुगेज, लॅटिन, फ्रेंच आनी इंग्लीश ह्यो सगळयो भाशा येताल्यो. तेचखातीर ताका वाघ घराण्यांतलो लिंग्वीस्ताद (State Linguist) म्हण्टाले. सखाराम वाघ सोडलो जाल्यार हेर खंयच्याच दुभाशाक इतल्यो भाशा कळनासल्यो. ते नदरेनय पळयल्यार ताका भाशाशास्त्री म्हणूं येता.

- कों. वि. सं. मं.

**वाघुर्मेकार, बाबल भीमा :** सुटकेझुजारी. ताणें मराठींतल्यान मुळावें शिक्षण घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा', हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके झुजाच्या काळांत तो लक्ष्मीकांत भेंब्रे, लक्ष्मणराव सरदेसाय, वसंत वेलींगकार, विश्वनाथ लवंदे आनी बाबी खंवटे हांच्या मार्गदर्शनाखाल वावर करतालो. पत्रकां वांटप, वण्टीपत्रकां लावप, तिरंगी बावटे लावप, नॅशनल काँग्रेस गोवा संघटनेखातीर वांगडी जमोवप असलीं कामां तो करतालो. पुलिसांनी ताच्या घराचेर धाड घाली आनी ताच्या घरच्या लोकांक बरोच त्रास दिलो. ८ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा पुलीसांनी ताका धरलो आनी देड वर्साखातीर बंदखणींत दवरलो. दर आठवड्याक पुलीस ठाण्याचेर हजर रावपाचे अटीचेर ११ जानेवारी १९५७ ह्या दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. गोंय सुटके उपरांत १९६७ वर्सा फोंडा काँग्रेस कमिटीचो उपाध्यक्ष म्हूण ताका वेंचून काडलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वाघ्या :** खंडोबाचो उपासक. महाराष्ट्र आनी कर्नाटकांत चले आनी चलयो, वाघ्ये आनी मुरळी म्हणून देवाक ओंपपाची चाल आसा. ही चाल चडक़रून कुणबी म्हार वा तसल्याच हेर जातींत दिसून येता.

एकाद्र्या मनशाक भुरगींच जायनात वा जावनय जगनात असो मनीस खंडोबाक 'आपल्याक भुरगें जांव दी, तें जाल्यार तुका ओंपता' अशें आंगयता. असो आंगयल्लो भुरगो खंडोबाक ओंपलो म्हणजे, तो वाघ्या जाता आनी ती चली आसल्यार मुरळी जाता. वाघ्या वा मुरळी जावपाचो विधी असो : सुरवेक चैत्र म्हयन्यांत, बापूय आंगवणे उपरांत आपल्याक जो भुरगो जाला तो देवाक ओंपपाचो संकल्प गुरवाक कळयता. उपरांत गुरव सांगता त्या दिसा वाघ्या जावपी भुरग्याक मिरवणुकीन खंडोबाच्या देवळांत व्हरतात. थंय गुरव ताका भंडार (हळदिचो पिठो) लायता आनी वाघाचे कातीचे पिशवेंत भंडार भरून ती पिशवी त्या भुरग्याच्या गळयांत बांदता. उपरांत देवाचेर भंडार घालून त्या भुरग्याक आपणावपाची देवाक विनंती करता. अशेतरेन वाघ्या जाल्लो तो भुरगो खंडोबाचीं पदां म्हणत मल्हारीची (खंडोबाची) वारी (भीक) मागूंक लागता.

वाघ्ये दोन तरेचे आसतात ते म्हणजे : (१) घरवाघ्ये आनी (२) दारवाघ्ये. घरवाघ्ये म्हळयार आंगवण पावोवपा खातीर कांय वेळ वाघ्याचो भेस करून वारी मागपी. हे फकत खंडोबाविशीं श्रध्दा उक्तावपाखातीर वाघ्याचें रूप घेतात. दारवाघ्ये हे वाघ्याची कायमची दीक्षा घेतिल्ले, भिक्षेचेर जगपी आनी भक्तांचीं क्षेत्रांतलीं धर्मीक कृत्यां करपी आसात. भक्तांवतीन जागरणां करप आनी लंगर (लोखणी सरपळी) तोडप हीं तांचीं खास कामां आसात. तांचे हे जागरणाचे कार्यक्रम म्हळयार गोंधळावरी आसतात. तातूंत तुणतुणें वाजोवप, खंजिरी वाजोवप आनी मुरळीन नाचप अशी कामां वाघ्ये करतात.

वाघ्या आनी मुरळी हांचो संचार चडसो दक्षिण महाराष्ट्र आनी कर्नाटक ह्या भागांत दिसता. महाराष्ट्रांतल्या वाघ्याचो खास असो भेस ना. कर्नाटकांतले वाघ्ये मात रगाची कफनी वापरतात. तांच्या गळयांत भंडाराखातीर वाघाचे कातीची पिशवी आसता. तेभायर लांकडी वा धातुचें भिकेपात्र, गांठा (रुप्याचो गोफ वा कातड्याचो वा वाखाची कवड्यो गुंथिल्ली दोरी), दिवटीबुदली, गळयांत बांदपाची भंडारान रंगयल्ली सुताची दोरी, घंटावाद्य, शंख वा डमरू, शूल - त्रिशूळ आदी वस्तू वाठाराप्रमाण वाघ्या वापरता.

वाघ्यांचीं लग्नां चड करून तांच्या बापायचे जातींतले चलयेकडे वा दुसऱ्या वाघ्याचे चलयेकडे जातात. वाघ्यांक दर तीन वर्सां उपरांत एक फावट जेजुरीची वारी करची पडटा. तांच्यो चालीरिती आनी धर्मीक समज मराठा कुणब्यांवरी आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**वाचपघर :** वाचकांक पुस्तकांचो चडांत चड उपेग करून दिवचेखातीर पुस्तकां जतनायेन दवरतात ती सुवात. सद्या वाचपघरांत मुखेलपणान प्राचीन तशेंच आधुनिक ग्रंथांवांगडाच नेमाळीं, हातबरप, नकाशे, छायाचित्रां, शिल्पाकृती, नाणी, तिकिटां, ध्वनिमुद्रिका, सूक्ष्मपट, लेखछायाचित्रां आनी हेर ज्ञानसाहित्य संग्रहीत केल्लें आसता. पूण काळा प्रमाण वाचपघराच्या कार्यांत एकसारको बदल जायत आयलो. सुरवेक इष्टिका, शिला, चामडें आनी हेर साधनांवरवीं तयार केल्ले ग्रंथ साप्प उणें आशिल्ल्यान तांची जतनाय घेवप इतलेंच वाचपघराचें कार्य आसलें. पूण सद्या वाचपघराची व्याप्ती खूब वाडिल्ली आसा. सद्या वाचपघर, खातीर योग्य सुवात, ताचेखातीर तज्ञ आनी कुशळ ग्रंथपाल, संवसारांत उपयुक्त आशिल्ल्या म्हत्वाच्या पुस्तकांचो संग्रह, त्या पुस्तकांची पद्दतशीर मांडणी आनी वाचकांक योग्य मार्गदर्शन

ह्यो गजाली चड म्हत्वाच्यो. पुस्तकां, वाचक आनी वाचपघरांतले सेवक हे वाचपघरांतले तीन मुखेल घटक. सद्या वास्तू आनी वाचपघरासंबंदीत प्रशासनाकूय चड म्हत्व दिलां.

संवसारांतलीं सगळयांत पोरनी वाचपघरां सुमेरियन आनी बॅबिलोनियन संस्कृतीच्या काळांत अस्तित्वांत आशिल्लीं हें प्राचीन शारांच्या उत्खननांत सांपडिल्ल्या अवशेशांवयल्यान सिध्द जाता. क्रिस्ता आदी २७०० वर्सां धार्मिक आनी शासकीय वाचपघरां आशिल्लीं. टेयो शारांतल्या वाचपघरांत तीस हजार ग्रंथ आशिल्ले. चूनखडीसावन तयार केल्ल्या विटांचेर धातू वा लांकडी लेखणीन क्यूनिफॉर्म लिपींत बरयल्ले इष्टिकाग्रंथांचो संग्रह हो संवसारांतलो सगळयांत पयलो ग्रंथसंग्रह. धार्मिक वचनां, प्रार्थना, मंत्रतंत्र, लोककथा, तशेंच त्या तेंपावयल्या भौशिक, राजकीय आनी तात्त्विक वाङ्मयाच्यो देखीय ह्या इष्टिकाग्रंथांत मेळ्ळयात. वेपार, दीसपट्ट्या घडणुकांच्यो नोंदी, राजकीय आनी धार्मिक आदेश ह्या गजालींखातीर इष्टिकांचो उपेग जातालो. बॅबिलोनियन आनी सुमेरियन संस्कृतिच्या काळांत देवळां वा राजवाड्यांनी ग्रंथसंग्रह करताले. इ.स.प. ६६८ ते ६२७ ह्या काळांत असुरबनिपाल ह्या राजान निनेव्ह हांगाच्या देवळाकडेन एक व्हड वाचपघर उबारिल्लें. तातूंत सुमेरियन भाशेंतले सुमार २० हजार ग्रंथ एकवटीत केल्ले.

प्राचीन इजिप्ताक हायरोग्लिफिक लिपींत बरयल्ले ग्रंथ लुगटान गुठलावन मातयेच्या वा धातुंच्या आयदनांनी दवरताले. ह्या आयदनांचेर भितरल्या ग्रंथाची म्हायती आसताली. खाजगी आनी देवळांतल्या वाचपघरांखेरीज सरकारी वाचपघरांय इजिप्तांत आशिल्लीं. गिझा शारांत इ.स.प. २५०० त एक व्हड वाचपघर अस्तित्वांत आशिल्लें. इ.स. प. १२५० च्या सुमाराक थीब्ड शारांत दुसरो रॅमसीझ हाणें वाचपघर उबारिल्लें. पूण इ.स. प. २९० त ग्रीक राजा पयल्या टॉलेमीन उबारिल्लें ॲलेक्झांडियाचें वाचपघर चड म्हत्वाचें. उपरांत दुसरो यूमीनीझ हाणें पर्गामम शारांत व्हड वाचपघर स्थापन केल्लें. विद्याप्रसार आनी कलाक्रिडा हांचेविशीं ह्या दोनय वाचपघरांमदीं सर्त चलताली. पर्गामम वाचपघराची ग्रंथनिर्मिती खूब नेटान चलताली. इजिप्शियांनी तांचो तिरस्कार करून तांकां पपायरस वनस्पतिची पुरवणूच बंद केली. हाका लागून उपरांत चामड्यावयल्या ग्रंथांची निर्मिती जाली. इ.स. ४८ त ॲलेक्झांड्रियाच्या वाचपघर सीझरचे घुरयेंत नाश जालें. ताचें परिमार्जन म्हूण ॲंटोनीन पर्गाममचें वाचपघर क्लीओपात्रेक भेट म्हूण दिलें. तेन्ना ह्या वाचपघरांत दोन लाख ग्रंथ आशिल्ले. इ.स.प. पाचव्या शेंकड्यांत ग्रिसांत खाजगी वाचपघरांय आशिल्लीं. तातूंत युरिपिडीझ, ॲरिस्टॉटल आनी प्लॅटो हांच्या ग्रंथांचो आस्पाव आसलो.

ग्रिसाप्रमाण रोमांत वाचपघरांक तितलेशें म्हत्व नाशिल्लें. पूण रोमी सम्राटांनी भौशिक वाचपघरां स्थापन केल्लीं. तांणी पपायरस आनी चामड्याचेरच ग्रंथ बरयल्ले. सिसेरो राजान (इ.स.प. १०६ - ४३) व्हड खाजगी वाचपघर उबारिल्लें. असिनिअस पोलिओ ह्या सम्राटान पयलें भौशिक वाचपघर उबारलें. उपरांत रोमी साम्राज्याचेर जावपी रानटी टोळयांच्या घुरयांक लागून रोमी संस्कृतीवांगडा थंयची चडशीं वाचपघरांय नश्ट जालीं. उपरांत ग्रंथसंग्रहाची जतनाय घेवपाचो थोडोभोव वावर थंयच्या धर्मसंस्थांनी केलो.

धाव्या शेंकड्यासावन युरोपांत विद्यापिठांची स्थापना जावपाक लागली तशें त्या विद्यापिठांतल्यान ग्रंथसंग्रह संख्या वाडपाक लागली. १८२९ च्या सुमाराक पॅरिसाच्या सोरबोन शारांतल्या ग्रंथालयांत १,७२२ हस्तलिखीत ग्रंथ आशिल्ले अशी म्हायती मेळटा. युरोपाच्या प्रबोधन काळांत म्हळयार सोळाव्या शेंकड्यांत सुरवेक कागदाचो आनी उपरांत मुद्रणकलेचो सोद तशेंच देशी भाशांचो उदय हांकां लागून संस्कृतीक प्रबोधनाक गती मेळ्ळी. त्या काळांत ग्रंथसंख्येंत खूब वाड जाली. १५६० त पलोरियन ट्रेफल हाणें वाचपघराचेर एक प्रबंध बरोवन सूची कशी करची हें स्पश्ट केलें. सतराव्या शेंकड्यांत युरोपांत वाचपघरां सगळयांखातीर उक्ती केलीं. कोनराट गेस्नर (१५१५ - १६८०) हाका ग्रंथसुचीचो जनक अशें म्हण्टात. उपरांत गॅब्रिअल नोडे (१६०० ते १६५३), जॉन ड्युरी (१५९६ - १६८०) आनी गोटफ्रिट विल्यम (१६६४ - १७१६) ह्या नामनेच्या ग्रंथपालांनी वाचपघरांक म्हत्वाची सुवात मेळोवन दिली. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत पाश्चिमात्य देशांत उद्येगीक क्रांतिउपरांत शिक्षणाचो नेटान प्रसार जालो. वाचपघरांचीय खूब वाड जाली. ह्याच काळांत ग्रंथालयशास्त्राची निर्मिती जाली. लंडन ह्या वाचपघराचो मुखेली ॲंटनी पानीत्सी हाणें ग्रंथालयसूची कशी तयार करची हाची पयली नियमावली तयार करून ब्रिटीश म्युझियमांतल्या सगळया इंग्लीश पुस्तकांची सूची छापून ती प्रसिद्द केली. बिब्लिओथेक नॅशनल, पॅरिस (१४८०), ब्रिटीश म्युझियम लंडन (१७५९), लायब्ररी ऑफ कॉंग्रेस, वॉशिंग्टन (१८००), लेनिन स्टेट लायब्ररी, मॉस्को (१८६२) हीं पाश्चात्य देशांतलीं मुखेल राश्ट्रीय वाचपघरां. इंग्लंडांत १७३१ त जेम्स कर्कबुडचे प्रेरणेन सुमार पंदरा हजार ग्रंथसंग्रह आशिल्लें पयलें भौशिक वाचपघर स्थापन केल्लें. १८५० त ग्रंथालय कायदो जाल्ल्यान इंग्लंडाच्या सगळया गांवगिऱ्या वाठारांनी आनी शारांनी भौशिक फुकट वाचपघरां स्थापीत जालीं. अमेरिकेंत भौशिक वाचपघरांचो १७३१ त बेंजामीन फ्रॅंकलिनाचे प्रेरणेन उगम जालो. हावर्ड लॉ स्कूल लायब्ररी (१८१७), पेटंट आफिस लायब्ररी (१८३९), केंब्रिज म्युझियम ऑफ कंपॅरेटिव्ह झुलॉजी (१८५८) हीं अमेरिकेंतलीं कांय प्रसिद्द वाचपघरां. १९९५ मेरेन अमेरिकेंत १५,९९४ भौशिक वाचपघरां आशिल्लीं.

**भारतांतलीं वाचपघरां :** आदीम काळांत भारतांत वेगवेगळयो खूब शिक्षणीक संस्था आशिल्ल्यो. त्या संस्थांतल्या विद्यार्थ्यांक उपेगी पडपी ग्रंथसंग्रालय जोडूनच आसतालो. सुरवेक बौध्द मठांतल्यान धार्मिक शिक्षणाची पद्दतशीर सुरवात जाली. सम्राट अशोकाच्या काळाउपरांत ल्हव ल्हव विद्यापिठांची स्थापना जावपाक लागली.

इ.स. ४00 च्या सुमाराक नालंदा विद्यापिठाची स्थापना जावन उपरांत संवसारभर ताका नामना मेळ्ळी. ह्या विद्यापिठांत सुमार धा हजार विद्यार्थी आसले. तांकां उपेगी पडपी व्हड ग्रंथसंग्रहालय थंय आसलें. इ.स. चवथ्या शेंकड्यांत फाहियान आनी सातव्या शेंकड्यांत युआन च्वांग चिनी भोंवडेकार बौध्द धर्माच्या अध्ययनाखातीर नालंदा विद्यापिठांत राविल्ले. तांणी ह्या विद्यापिठाच्या वाचपघराचें सविस्तर वर्णन केल्लें आसा. मौर्यांउपरांत आयिल्ल्या गुप्त घराण्यानय बौध्द विद्यापिठांचें विकास कार्य चालूच दवरलें. बौध्द भिक्षुक आनी विद्यार्थीखातीर तांणी स्तूप, दिवाणखाने आनी सभाघरां बांदलीं. वाचपघर विभागाक धर्मगंज अशें नांव दवरून रत्नसागर, रत्नोदधी आनी रत्नरंजक ह्या तीन इमारतींनी ग्रंथसंग्रह दवरिल्लो. हाचेवयल्यान त्या वाचपघरांचें म्हत्व आनी व्याप्ती स्पश्ट जाता. तातुंतले ग्रंथ ताडपत्रांचेर बरयल्ले. प्राचीन भारतांत नालंदाप्रमाण वल्लभी, तक्षशिला, विक्रमशिला, ओंदतपुरी, मिथिला आनी वाराणसी शारांतल्या विद्यापिठांचीय वाचपघरां प्रसिद्द आसलीं. दक्षिण भारतांत कृष्णा न्हंयेचे देगेर आशिल्ल्या बौध्द क्षेत्रांतलें नागार्जुन विद्यापीठ सातव्या शेंकड्यांमेरेन प्रसिद्द आसलें. थंयचे एके पांच माळयेचे इमारतींत ग्रंथसंग्रह दवरिल्लो. त्या वाचपघरांत बौध्द धर्मावयले खूब ग्रंथ आसले. भारताखेरीज चीनी, ब्रह्मदेश (मियानमार) आनी श्रीलंकेसावन विद्वान अभ्यासक ह्या ग्रंथालयाक भेट दिताले.

मुसलमानाच्या शेकापयलीं भारतांत शिक्षणसंस्था मुखेलपणान राजाच्या आलाशिन्यानच चलताल्यो. त्या संस्थांचें स्वतंत्र वाचपघर आसतालें आनी राजान नेमून दिल्लो ग्रंथपाल ताचेर देखरेख दवरतालो. तेराव्या आनी चौदाव्या शेंकड्यांत भारतांत खलजी आनी तुघलक घराण्याचो शेक चलतालो. त्या दर एका राजाचें स्वतंत्र वाचपघर आसलें. मध्यकाळांत कागद खूब उणे आनी म्हारक आशिल्ल्यान भारतांत मुखेलपणान भूर्जपत्र आनी चामडें हींच ग्रंथलेखाचीं माध्यमां आशिल्लीं. चडशा मोगल बादशहांनी आपआपलें स्वतंत्र वाचपघर बाळगिल्लें. बादशहा अकबरान आपल्या ग्रंथसंग्रहांत भर घाली आनी राजपाटणांतल्या हेर वाचपघरांची देखरेख करपाखातीर एक स्वतंत्र खातें निमार्ण केलें. नझीम हो त्या खात्याचो मुखेली आसलो. इतिहासकार विंसेट स्मिथाच्या म्हणण्याप्रमाण अकबराक मरण आयिल्लें तेन्ना ताच्या वाचपघरांत २४,000 ग्रंथ आशिल्ले. उपरांत मराठे, राजपूत आनी मुसलमान राजांनी आपआपलीं वाचपघरां उबारिल्लीं. सतराव्या शेंकड्यांत तंजावर शारांत स्थापन जाल्लें सरस्वती महाल वाचपघर हें भारतांत सद्या अस्तित्वांत आशिल्लें सगळयांत प्राचीन वाचपघर. सोळाव्या शेंकड्यांत भारतांत मुद्रणकलेचो प्रवेश जालो. पूण त्या काळांत ताचो व्हडलसो प्रसार जावंक नाशिल्ल्यान चडशीं पुस्तकां हस्तलिखित स्वरुपांतच आशिल्लीं. एका पुस्तकाच्यो साबार प्रती तयार करपाक लागपी वेळ आनी पयसो हाका लागून सामान्य मनशाक ग्रंथसंग्रह करपाक शक्य नाशिल्लें. राजांखेरीज तांचे सरदार, पंडित, कवी, संत, शास्त्री, किर्तनकार हेच लोक ग्रंथसंग्रह करताले.

भारतांत ब्रिटीश सत्ता आयल्याउपरांत तांचे प्रेरणेन आनी उत्तेजनान भारतांत वाचपघरांची स्थापना नेटान जावपाक लागली. आर्वाचीन काळांत भारतांतलें सगळयांत पयलें वाचपघर स्थापन करपाचो मान युरोपी किरिस्तांव धर्मोपदेशकांक वता. सोसायटी फॉर प्रामोशन ऑफ क्रिस्टीयन नॉलेज हे १६९८ त स्थापन जाल्ले संस्थेन मद्रास आनी बंगालांत वाचपघरांची स्थापना करपाचो व्हड वावर केलो. १७८४ त कलकत्ता शारांत अस्तंती आनी उदेंती पंडितांनी एकठांय येवन एशियाटीक सोसायटीची स्थापना केली. हे संस्थेच्या वाचपघरांत संस्कृत, अरबी, इटालियन, नेपाळी आनी हेर भाशेंतल्या दुर्मिळ ग्रंथ आनी हातबरपां जमा केल्लीं. भारतांतलें पयलें भौशिक वाचपघर १८३५ त कांय खाजगी व्यक्तींनी एकठांय येवन कलकत्ता पब्लिक लायब्ररी नांवान स्थापीत केलें. ह्या काळांतलीं हेर म्हत्वाचीं वाचपघरां अशीं - कलकत्ता संस्कृत कॉलेज (१८३४), रुडकी एंजिनिअरींग कॉलेज वाचपघर (१८४७), जिऑलॉजिकल सर्व्हे ऑफ इंडिया (१८५१), कलकत्ता विद्यापीठ वाचपघर (१८५७), अलाहाबाद पब्लिक लायब्ररी (१८६३), मुंबय विद्यापीठ वाचपघर (१८७९), खुदाबक्ष वाचपघर पाटणा (१८९१) आनी कोन्नेमारा पब्लीक लायब्ररी, मद्रास (१८९६).

विसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या दसकांत बडोदे संस्थानांत भौशिक वाचपघर सुरू केलें. भारताक स्वातंत्र्य मेळ्ळया उपरांत १९४८ त कलकत्त्याक राश्ट्रींय वाचपघराची स्थापना केली. उपरांत विद्यापीठ अनुदान मंडळाच्या आदारान राज्यांत विद्यापीठ वाचपघरांची नव्यान स्थापना जावपाक लागली. १९५८ त राश्ट्रीय ग्रंथसूची तयार जावन, देशांतल्या दर एका राज्यांत वाचपघराची स्थापना जाली. उपरांत वाचपघराविशीं चड म्हायती उजवाडा येवन तातूंत खूब सुदारणा जाली. १९५० त युनेस्कोच्या आदारान भारत सरकारान दिल्लींत अद्ययावत आनी आदर्श अशा प्रायोगीक वाचपघराची स्थापना केली. ह्या वाचपघरांत सगळयांक मुक्तप्रवेश आसा. भारत सरकारान युनेस्कोच्याच आदारान इंडियन नॅशनल सायंटिफीक डॉक्युमेंटेशन सेंटर हे संस्थेची १९५२ त स्थापना केल्ल्यान वाचपघर क्षेत्रांत आनीक भर पडली.

वाचपघरांचे मालकीप्रमाण, ताच्या खाशेल्या उपेगाप्रमाण आनी पुस्तकांच्या स्वरुपाप्रमाण वाचपघरांचे वेगवेगळे प्रकार केल्ले आसात. शिक्षणीक, भौशिक आनी संशोधनात्मक हे वाचपघरांचे तीन मुखेल प्रकार. वाचूंक येता अशा भुरग्यांखतीर आसपी वाचपघरां, शाळा, म्हाविद्यालयां आनी विद्यापिठांच्या वाचपघरांचो शिक्षणीक वाचपघरांत आस्पाव जाता. समाजांतल्या सगळया थरांच्या लोकांक उपेगी पडटा तें भौशिक वाचपघर. शासकीय खात्याचीं वाचपघरांचो आस्पाव संशोधन

वाचपघरांत जाता.

सप्टेंबर १८९५ त ब्रूसेल्स शारांत स्थापीत जाल्ली इंटरनॅशनल फेडरेशन फॉर डॉक्युमेंटेशन ही संस्था, १९२६ त स्थापीत जाल्ली इंटरनॅशनल फेडरेशन ऑफ लायब्ररी असोसिएशन आनी १९६७ त स्थापीत जाल्ली इंटरनॅशनल अँड कम्पॅरेटिव लायब्रेरियनाशिप ग्रुप ह्यो वाचपघर क्षेत्रांतल्यो आंतरराश्ट्रीय संघटना आसात. पुस्तकांच्या वर्गीकरणाविशीं संशोधन करप, तशेंच वाचपघरां, वेगवेगळ्या सूचीकारांभितर सहकार्य निर्माण करप आनी वेगवेगळ्या देशांतल्या वाचपघर संघटनांक एकठांय हाटप हें ह्या संघटनांचें म्हत्वाचें काम.

- कों. वि. सं. मं.

**वाच्छा, दिनशा एदलजी :** (जल्म : इ.स. २ ऑगस्ट १८४४ मुंबय; मरण : इ.स. १३ फेब्रुवारी १९३६ मुंबय).

काँग्रेसीचो एक संस्थापक वांगडी आनी मवाळ पक्षाचो मुखेली. अर्थशास्त्र आनी वेपार - उद्देग ह्या विशयांचें ताका बरेंच गिन्यान आशिल्लें. दादाबाई नौरोजी आनी इस्ट इंडिया असोसिएशनच्या मुंबय फांट्याचो कार्यवाह म्हूण ताका वेंचून काडिल्लो. फिरोजशहा मेहता हाचो ताका उजवो हात समजताले. बॉम्बे प्रेसिडन्सी असोसिएशनच्या तीन कार्यवाहांतलो तो एक आशिल्लो.

इ.स. १८९५ ते इ.स. १९०७ ह्या काळांत तो काँग्रेसीचो जोड सरचिटणीस जाल्यार इ.स. १९०८ ते १९१३ ह्या काळांत तो सरचिटणीस जालो. इ.स. १९०१ वर्सा कलकत्ता हांगा भरिल्ल्या काँग्रेसीच्या स्वागत समितीचें अध्यक्षपद ताका मेळ्ळें. अर्थशास्त्र हो ताचो आवडीचो विशय आशिल्लो. लश्करावयलो खर्च, भारतीय जनतेची गरिबी, हुंडणावळ आनी रेल्वे ह्या विशयांचेर ताणें खास अभ्यास केल्लो.

उद्देगीक मळावयले उत्पादनवाडीखातीर सुरवेक कामगारांचें जिवितमान सुदारूंक जाय अशें ताचें मत आशिल्लें. लश्करी खर्च उणो करप, जमीन महसुलाचो दर उणो करप, ब्रिटिश मालाक दिवपांत येवपी सवलत रद्द करप अशो मागण्यो तो करतालो. अर्थशास्त्रज्ञ ह्या नात्यान ताणें वेल्बी कमीशनामुखार साक्षय दिल्ली. रेल्वे हो ताचो खाशेलो विशय. हेर भारतीय फुडाऱ्यांवरीच तो रेल्वेमार्गाची वाड करपाबदला खारजां आनी पाटबंधारे वाडोवपाचेर चड भर दितालो.

शेतकामत्यांक सवलतीच्या व्याजान रीण मेळचें आनी तांचेर आशिल्लो सावकारी रिणाचो ताण उणो करपाखातीर शेतकरी बँको काडच्यो अशी सुचोवणी तो करतालो. हातमागाच्या उद्देगांत उदरगत घडोवन हाडपांत ताचें फाटबळ आशिल्लें. अस्तंत भारतांत उद्देगीक संस्था संघटीत करपांत ताणें न्यायमूर्ती रानडे हाका मोलादीक आदार दिल्लो. बेहरामजी मलबारीच्या 'स्पेक्टेटर' ह्या नेमाळ्यांत तो राजकीय विशयांचेर लेख बरयतालो.

काँग्रेसीचे स्थापनेसावन सतत पंचवीस वर्सां ताणें निश्ठेन काँग्रेसीचो वावर केलो. इ.स. १९१८त तो काँग्रेसींतल्यान भायर सरलो. फुडें इंडियन लिबरल फेडरेशनचे स्थापनेंत ताणें मुखेलपणान वांटो घेतलो. फेडरेशनच्या पयल्या अधिवेशनाचो तोच अध्यक्ष आशिल्लो.

ब्रिटीश सरकारान सर ही पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो. इ.स. १९१९ वर्सा सुदारणा कायद्यावरवीं स्थापन जाल्ले मध्यवर्ती विधीमंडळाचेर ताची नेमणूक जाल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**वाजपेयी, अटल बिहारी :** (जल्म : २५ डिसेंबर १९२६ ग्वालियर, मध्य प्रदेश).

भारताचो धावो प्रधानमंत्री. ताचो बापूय कृष्ण बिहारी वाजपेयी प्रसिद्द लेखक आनी कवी. ताचे आवयचें नांव कृष्णादेवी.



अटल बिहारी वाजपेयीन ग्वालियरचे विक्टोरिया कॉलेजींतल्यान बी.ए. पदवी घेतली. उपरांत कानपुरचे डी.ए.वी. कॉलेजींतल्यान ताणें राजनितीक शास्त्रांत एम्. ए. पदवी मेळयली. ताणें कायद्याचोय अभ्यास केला. ताणें समाज सेवक आनी पत्रकार म्हणूनय वावर केला. १९४२ त भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेतिल्लो म्हूण ताका बंदखणीची ख्यास्त फावो जाल्ली. १९४१ त अटल राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाक मेळ्ळो. ताणें राश्ट्रधर्म (म्हयनाळें), पांचजन्य (सातोळें) तशेंच स्वदेश आनी वीर अर्जुन ह्या दिसाळ्यांचें संपादन केलां.

अटल बिहारी वाजपेयीन १९५१ त भारतीय जन संघाची स्थापणूक केली. १९५७ त तो दुसरे लोकसभेचेर वेंचून आयलो. १९५७ ते ७७ मेरेन ताणें भारतीय जनसंघ पार्लमेंटरी पार्टीचो मुखेली म्हूण वावर केला. १९६२ त तो राज्यसभेचो वांगडी जालो. १९६७ त तो परतून लोकसभेचेर वेंचून आयलो. १९६८ ते ७३ मेरेन भारतीय जन संघाचो अध्यक्ष, १९७१, १९७७ आनी १९८० त लोकसभेचेर परतून तो वेंचून आयलो. १९८० ते १९८६ मेरेन तो भारतीय जनता पार्टीचो अध्यक्ष आसलो. १९८६ ते १९८१ मेरेन तो परतून राज्य सभेचो वांगडी आसलो. १९८६ त ताका भारतीय जनता पार्टीच्या संसदीय पंगडाचो मुखेली म्हूण वेंचून काडलो. १९९१ त तो परतून लोकसभेचेर वेंचून आयलो. १९९१ - ९३ मेरेन तो पब्लीक अकांऊट कमिटीचो अध्यक्ष आसलो. १९९६ त तो सातवी खेप लोकसभेचेर वेंचून आयलो. ते लोकसभेचे वेंचणुकेंत भारतीय जनता पार्टीचे सगळ्यांत

चड (१६४) वांगडी वेंचून आयले. हाका लागून राश्ट्रपती शंकर दयाल शर्मान भारतीय जनता पार्टीचो अध्यक्ष अटल बिहारी वाजपेयीक प्रधानमंत्री पदाचो सोपून दिलो आनी तेरा दिसांभितर ताका भौमत सिध्द करपाक लायलें. पूण हेर पक्षांनी ताका तेंको दिवंक नाशिल्ल्यान ताणें तेरा दिसांनीच आपल्या पदाचो राजीनामो दिलो. १९९६ - ९७ मेरेन ताणें लोकसभेंत विरोधी पक्षाचो मुखेली म्हूण काम पळयलें. १९९८ त तो लोकसभेचेर आठवे खेप वेंचून आयलो. १९ मार्च १९९८ दिसा तो परतून प्रधानमंत्री जालो.

अटल बिहारी वाजपेयी हो एक प्रसिद्द कवी आसून ताचे मृत्यू या हत्त्या, अमर बलीदान, कैदी कविराय की कुंडलियाँ, अमर आग है आनी मेरी एक्यावन कवितायें हे कविता झेले प्रसिद्द आसात. ताणें राश्ट्राखातीर केल्ल्या वावराक लागून ताका राश्ट्रपतीन पद्म विभूषण पुरस्कार भेटयला. तशेंच १९९४ त ताका लोकमान्य टिळक पुरस्कार, भारत रत्न, पं. गोविंद पंत पुरस्कार मेळ्ळयात.

- कों. वि. सं. मं.

**वाजपेयी, नंद दुलारे :** (जल्म : १९०६ मगरैल जि. उन्नाओ; मरण : १९६७).

व्हड हिंदी समीक्षक. ताचो बापूय हिंदी साहित्याचो बरो जाणकार आसलो आनी ताणेंच ताका साहित्याची गोडी लायली. तो बनारस हिंदू विश्वविद्यालयांतल्यान एम्.ए. ची परिक्षा पयल्या नंबरान पास जालो (१९२९). विद्वान हिंदी लेखक श्यामसुंदर दास हाचो तो आवडटो शिश्य आशिल्लो. ताचेच उर्बेन ताणें बनारस हिंदू विश्वविद्यालयांत संशोधन कार्य केलें. १९३२ सावन तो अलाहाबादच्यान भायर सरपी 'भारत' दिसाळयांत संपादक म्हणून काम करूंक लागलो. त्या पत्रांत ताणें आर्विल्ल्या साहित्यासंबंदान बरेच विद्वतापूर्ण लेख बरयले. 'हिंदी साहित्यः वीसवी शताब्दी' आनी 'जयशंकर प्रसाद' (१९३८) ह्या पुस्तकांत हे लेख संग्रहीत केल्यात. 'जयशंकर प्रसाद'(१९३८) ह्या ग्रंथांत ताचे व्यापक समीक्षक नदरेचो प्रत्यय येता. फुडें ताणें १९३६त नागरी प्रचारिणी सभा, वाराणसी हांगासावन सूरदासाच्या पदांचें 'सूरसागर' हें संकलन दोन खंडांनी (१९४८ आनी १९५०त) संपादित केलें. १९३७ सावन दोन वर्सां 'गीता प्रेस', गोरखपूर हांगा ताणें तुलसीदासविरचित 'रामचरितमानस' ह्या म्हाकाव्याचें संपादन केलें. ताच्या हेर समीक्षा ग्रंथांत 'प्रेमचंद', 'सूरदास', 'आधुनिक साहित्य' (१९५०), 'नया साहित्य नये प्रश्न' (१९५५), 'राष्ट्रभाषाकी समस्याएँ', 'राष्ट्रीय साहित्य तथा अन्य निबंध' आदींचो आस्पाव जाता. डॉ. रामाधार शर्मा हाणें 'नंददुलारे वाजपेयी : व्यक्तित्व और कृतित्व' हो समीक्षात्मक ग्रंथ संपादित केला. वाजपेयीन १९४१ ते १९४६ ह्या काळांत बनारस हिंदू विश्वविद्यालयांत हिंदीचो प्राध्यापक म्हणून आनी १९४७ ते १९६५ मेरेन सागर विद्यापिठांत हिंदी विभाग मुखेली म्हणून अध्यापन कार्य केलें. निमाणे कडेन उजैनच्या विक्रम विद्यापिठाचो उपकुलगुरू म्हणून ताची नेमणूक जाली. वाजपेयीन हिंदी साहित्याच्या संशोधन कार्यांत मोलादीक भर घाली. ताच्या मार्गदर्शनाखाल जायत्या विद्यार्थ्यांनी डी. लिट. आनी पीएच्.डी. हे सारकिल्ल्यो उंचेल्यो शिक्षणिक पदव्यो मेळयल्यो. रामचंद्र शुक्ल हाच्या उपरांतच्या टिकाकारांत ताची सुवात उंचेली आसा. छायावादाचें सखोल विवेचन करून ताका हिंदी साहित्यांत भोवमानाची सुवात मेळोवन दिवपाचें श्रेयूय ताकाच फावो जाता. 'आलोचना' ह्या हिंदी तीन म्हयन्याळ्यांचें संपादनय कांय तेंप ताणें केलें. १९४०त पुण्यांत भरिल्ल्या हिंदी साहित्य संमेलनाच्या एका फांट्याचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. म्हाकवी निराला हाचेकडेन ताचो लागसरलो संबंद आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**वाझ, आंतोनियु रोझारिओ मिनिनु येगीडिओ ग्रेगरी डी ल्युम जुजे :** (जल्म : १ सप्टेंबर १९३५ ओर्ली - सालसेत).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण पुर्तुगेजींतल्यान आनी माध्यमिक शिक्षण इंग्लिशींतल्यान घेतलें. १९५५ मेरेन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५६ वर्सा तो गोवा लिबरेशन आर्मीचो वांगडी जालो. सुटकेझुजारी पिटर आल्वारीस हाच्या फुडारपणाखाल तो काम करतालो. सत्याग्रहांत वांटो घेवंक ताणें नांव दिल्लें पूण बलायकी इबाडिल्ल्यान ताका सत्याग्रहांत वांटो घेवंक मेळ्ळो ना. पूण श्रीपाद खरंगटे, मधू फळारी आनी दामोदर हेगडे हांच्या वांगडा पोलिसांनी ताका अटक केलो उपरांत ताका प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून १३ म्हयने बंदखणीची ख्यास्त जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वाझ, जासिंत :** (जल्म : २७ एप्रिल १९१९, मांडूर).

नामनेचो कांतारीस्त (गायक), आनी लोकप्रिय तियात्रिस्त (नाटककार). ताचो बापूय क्रास्टो वाझ हो बरो तियात्र दिग्दर्शक आशिल्लो. ताचें मुळावें शिकप मांडुराक जालें. मुखावयलें शिक्षण घेवपाखातीर ताणें मुंबयच्या चंदनवाडी लिटल फ्लॉवर स्कुलांत प्रवेश घेतलो. भुरगेपणासावन तो कांतारां (पदां) रचतालो. स्कुलाच्या प्राचार्यान कांतारीस्त म्हणून ताका पयलो वयलो माचयेर हाडलो. फुडें ताणें तियात्रांनी ल्हान-व्हड भुमिका करपाक सुरवात केली.



पिरायेच्या २७व्या वर्सा 'हांव तुजो घरकार' ह्या तियात्रांत एक मुरवेल भुमिका करून ताणें लोकांच्यो नदरो आपले वटेन ओडून घेतल्यो. सुरवेक ताणें गंभीर भुमिका केल्यो. पूण फुडाराक तो विनोदी नट म्हणून मुरवार आयलो. दियोगिन्यू द् मेलो हाणें ताका १९६०त गोयांत हाडलो. 'शेवट अब्रू चुकतल्याचो' हो ताचो तियात्र बरोच गाजलो. आपल्याक फावो तशो विनोदी भूमिका मेळनात तें पळोवन ताणें स्वताच विनोदी तियात्र बरोवपाक सुरवात केली, आनी एका फाटोफाट २८ तियात्र बरोवन माचयेर हाडले. ते बरेच गाजले आनी ताच्या कामाची तुस्त - तोरवणाय जाली. १९५९त ताचो 'कुन्याद आनी माना' हो तियात्र सगळयांक मानवलो. उपरांत ताणें तो तियात्र आफ्रिकेंत मोंबासा, नायरोबी, नाकास, आरूशा, तांगानिया, मोशी, दारुसालम हांगा व्हरून ताचे २४ प्रयोग केले. १९७६त ताणें बारीन,कुवेट, ओमान, मस्कत ह्या आरवाती देशांनी आपले तियात्र व्हरून जैतीवंत केले.

'आमचें नशीब', 'निर्मोण', 'म्हजी घरकान्न', ह्या कोंकणी सिनेमांतल्यो विनोदी भुमिका करून प्रेक्षकांकडल्यान ताका व्हड तोरवणाय मेळ्ळया.

लोकांनी ताका 'तियात्रीस्तांचो राजा' अशी पदवी दिली. चिकाटेन ताणें माचयेची साधना करून गोंयच्या गांवां कणकणीं आपले तियात्र दाखयले. मर्दीं ७ वर्सां ताणें 'ओमिसारा द् गोवा' म्हळयार आकाशवाणी पणजी केंद्रार नोकरी केली. नोकरे उपरांत परत ताणें आपलें लक्ष तियात्राचेर केंद्रीत केलें. आयजमेरेन ताच्या तियात्रांचे ५ हजारांवयर प्रयोग जाल्यात. तितल्याय प्रयोगांत ताणें भुमिकाय केल्यात. ताणें सुमार २ हजार कांतारां रचल्यांत. एच्. एम्. व्ही कंपनीन ताच्या कांताराच्यो ध्वनीमुद्रिका काडल्यात आनी त्यो बऱ्योच गाजल्यात.

गोंय कला अकादमी आनी सिनेटायम्स (प्रकाशन संस्था) हांचे पुरस्कार ताणें जोडल्यांत. मुंबयच्या सिनेटायम्सान ताका 'कोंकणी पालकाचो चार्ली चाप्लीन' तर टायम्स ऑफ इंडियान 'कॉमेडीचो राजा' अशें पाचारून ताची तुस्त-तोरवणाय केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**वाझ, जॉर्ज :** (जल्म : १४ जुलय १९१९ मुंबय; मरण : २५ जुलय १९९९ गोंय).

गोंयचो सुटके झुजारी. मुंबयच्या 'गोंय यूथ लीग' संघटनेचो तो वांगडी आसलो. उपरांत १९४६त तो गोंय कॉंग्रेस कमिटीचो कार्यकारी वांगडी जालो. ऑक्टोंबर १९४६त सांखळे गांवांत भरिल्ले सभेंत भाशण दितना पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरून सुरवेक बंदखणीत घालो आनी उपरांत तडीपार केलो. पूण १५ डिसेंबर १९६४ दिसा परवानगेबगर गोंयांत रिगलो म्हूण पोलिसांनी ताका परत धरलो. १२ फेब्रुवारी १९४७ दिसा पुर्तुगेज सरकारच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत ताची चवकशी जावन ताका तीन म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. बंदखणीतल्यान सुटका जातकच मुंबयत ताणें परत गोंयचे सुटकेखातीर वावर केलो. १९४८-४९ ह्या काळांत ताणें नॅशनल कॉंग्रेस गोंय हे संघटनेचो सचिव म्हूण वावर केला. गोंय पिपल्स पार्टी हे संस्थेचो तो वांगडी आसलो. १९५४त जेन्ना ह्या पक्षाच्या वावुरप्यांनी नगर हवेलींतले ६० गांव पुर्तुगेजांकडच्यान हातासले, तातूंत जॉर्जाचोय वांटो म्हत्वाचो आसलो. भारतीय कम्युनिस्ट पक्षाचो एक बावुरपी वांगडी. कामगार संघटनेचो एक नावाजतो कम्युनिस्ट मुरवेली. कामगारांक फावा त्यो सवलती मेळच्यो म्हूण ताणें गोंयांत आनी मुंबयंत खूब कामगार आंदोलनां घडोवन हाडल्यात. १८जून १९८५ दिसा गोंय, दमण आनी दीव सरकारान ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**मॅ. वाझ, ल्युसिओ एफ्. जे. आर् :** (जल्म : १८६३ ओर्ली; मरण : १९३६).

एक गोंयकार धर्मप्रचारक. १८९० मेरेन मिलापूर डायोसिजीचो धर्मप्रचारक म्हूण ताणें बंगाल शिश्ट मंडळांतल्या हंसाबाद आनी कलकत्ता हांगा काम केलें. उपरांत तो पिलार सोसायटीचो वरिश्ठ म्हूण काम करूंक लागलो. पिलार विहारांत ताणें जायत्यो सुदारणा केल्यो. तो एक व्हड धर्मप्रवचक आशिल्लो. गोयांत ताणें सामान्य लोकांखातीर धर्मीक चळवळ घडोवन हाडली. तातुंतल्यान सुमार ४५१ लोकांनी किरिस्तांव धर्माची दीक्षा घेतली.

- कों. वि. सं. मं.

**वाठारो :** एक धर्मीक सुवात. वाठारो म्हळयार परिसर. थारावीक शीमो - मेरांनी बांदून घेतिल्ली एक सुवात. कांय कडेन अशे सुवातीचेर खाशेले फातर दिश्टी पडटात. हो ते सुवातीचो राखणदार. हाची पुजा करीनात. पूण केळीचे शिर्तेर, खोल्यार वा चोळक्यार गोड, साखर, फुलां घालून ते सुवातीचेर दवरतात. थंय सप्तकांत एकदां दिवोय पेटयतात. कांय कडेन कोंबयेचें तांतीय दवरतात तर कांयकडेन वर्सांतल्यान एकदां सोरो - रोंट दितात. जाल्यार कांयकडेन कोंबोय कापतात (मारतात). गोंयच्या बऱ्याचशा जाग्यांनी अशो सुवाती (थळां) दिसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**वाडदीस :** जल्माक आयिल्लो दीस. ज्या म्हयन्याचे, जे तारखेर एक मनीस जल्माक येता, ते तारखेच्यान सारको एका वर्साउपरांत, त्याच म्हयन्याचे तेच तारखेचो जो दिस आसता तो त्या मनशाचो

वाडदीस. वाडदीस मनोवपाची चाल सगळेकडेन दिसता.

वाडदीस जशे मनशांचे मनयतात तशेंच ते देवादिकांचे, संस्थांचे, पवित्र ग्रंथांचे, उद्देग - धंद्यांचे, दुकानां, सिनेमा घरां, हॉस्पीटलां, वर्तमानपत्रांच्यो कचेऱ्यो, लग्नाचे तशेंच रावता त्या घरांचेय मनयतात. मनीस जितो आसतना ताचो जल्माक आयिल्लो दिस वाडदीस म्हण मनयतातच. पूण व्हड व्हड व्यक्तींचे वाडदीस तांच्या मरणाउपरांत लेगीत मनयतात. ताका वाडदिसाच्या जाग्यार जयंती मनोवप म्हण्टात.

हिंदू समाजांत मनशाचो वाडदीस मनोवपाची खाशेली अशी रीत ना. दर एकलो आपापले आस्पती प्रमाण आपापली उमेद भागयता. देखीक कांय लोक आपल्या भुरग्याक पांच वर्सां जायमेरेन वाडदिसा दिसा तेल, उटणें लावन न्हाणयतात. घालपाक नवे कपडे शिंवतात. गोड जेवण करून जेवतात. सांजवेळा मागीर एक पाट मांडून त्या पाटाभोंवतणीं रांगोळी घालून उजवेवटेन एक दिवली पेटयतात. भुरग्याक त्या पाटार बसयतात आनी दिवे दाखयतात. पिठाच्यो ल्हान ल्हान गुळयो करून ताची दिश्ट काडटात. ताका गोड अशें कितेंय खावयतात आनी शेवटाक ताका भेट वस्तू म्हणून कसलीय वस्त, खेळणें वा भांगराची वस्तलेगीत दितात. ह्या सुवाळ्याक भुरग्याच्या इश्टांक तशेंच वांगडच्यांक आपोवणें दितात आनी तांकां गोडगोडशें दितात.

मनीस व्हड जाता तशें ह्या सुवाळ्याचें रूप बदलत आसा. तरणाट्यांच्या वा जाण्ट्यांच्या वाडदिसा दिसा घरांत बरें खाण - जेवण करतात. त्या दिसा चड करून लोकांक आपोवणें दिनात. जांकां त्या मनशाचो वाडदीस खबर आसता अशे लोक आपखोशयेन तांगेर येवन ताचें अभिनंदन करतात.

भुरग्याच्यो वा जाण्ट्याचो वाडदीस मनोवपाचे रितीचेर आयजकाल अस्तंत्या लोकांचे संस्कृतायेचो परिणाम जाला. अस्तंती लोकांची रीत घेवन जे परी अस्तंती लोक वाडदीस मनयतात तेचपरी हालींसराक हिंदू समाजांतले लोकय तांचें अनुकरण करून वाडदिस मनोवंक लागल्यात. ते खातीर ते एक केक हाडटात आनी जाचो वाडदीस आसता त्या मनशाक जितलीं वर्सां पुराय जातात तितल्यो लहान लहान खाशेल्यो मेणवाती हाडून त्या केकाचेर लायतात. एका मेजाचेर हो केंक दवरतात, भोंवतणी जमिल्ले सगळे लोक उबे रावतात. मागीर कोणय एकटो त्यो वाती पेटयता. उपरांत जाचो वाडदिस आसता तो मनीस एके फुंक्रेन त्यो सगळयो वाती एकाचवांगडा पालयता. वर्सांचो आंकडो चड जाता तेन्ना मोटी एकच मेणवात पेटयतात. वाती पालयल्यो तशीं भोंवतणचीं मनशां ताळयो वाजयत 'हेपी बर्थ डे टू यू' म्हळ्यार 'आयचो हो दीस तुका सुखाचो वचूं' अशा अर्थाचें गीत गायतात आनी मागीर घरचो कोणय मनीस त्या केकाचे कुडके करून जमिल्ल्या सगळ्या लोकांक वांटता. खरें म्हळ्यार दिवे पालवप ही गजाल आमचे भारतीय संस्कृतायेंत बसना, ती अभद्र मानतात आसली तरीय फकत अनुकरण म्हणूनच ती जशाची तशी हिंदू समाजय करीत आसा.

अशा ह्या मनशांमदीं कांय असामान्य मनीस जल्माक येतात. तांकां समाज आनी जग युगपुरूश म्हण वळखतात. तांच्या मर्णाउपरांत तांच्या जलमाचो दीस, म्हळ्यार वाडदीस जयंती ह्या नांवान, तर मरणाचो दीस पुण्यतीथ वा म्हानिर्वाण म्हणून मनयतात. अशेतरेन भारतीय लोक वर्सांतल्यान कितल्योशोच जयंत्यो आनी पुण्यतिथी म्हळ्यार जल्माचे आनी मरणाचे दीस मनयतात. हे अशे तऱ्हेचे वाडदीस मनोवपाची पद्दत वेगळी आसता. त्या मनशाच्या कार्याचें, आचार - विचाराचें म्हत्व सांगपी कार्यावळी अशें तांचें स्वरूप आसता. कांय व्हड मनशांच्यो जयंत्यो आनी पुण्यतिथी सांकेतीक नांवांनीय मनोवपाची चाल आसा. देखीक गांधी पुण्यतिथी हुतात्मा दीस म्हण मनयतात, तर नेहरू जयंती बालदीन म्हण मनयतात. त्या दिसा भुरग्यांचेर बरे संस्कार जातले अशे तरेच्यो कार्यावळी आंखतात आनी तांकां गोड गोड खावपाक दितात.

कांयकडेन देवांच्योय जयंत्यो मनयतात. ह्यो जयंत्यो चड करून देवळांनी उत्सवाच्या रुपान मनयतात. तशेंच कांय गिरण्यो, संस्था, वाचपघरां, हॉस्पीटलां, वर्तमानपत्रांच्यो कचेऱ्यो सारकिल्ल्यांचे आस्थापनांचे दीस वाडदीस म्हणून मनयतात. अशा संस्थांच्या वाडदिसाक वर्धापनदीस म्हण्टात. पंचवीस वर्सांच्या वाडदिसाक रूप्या - उत्सवी पन्नास वर्सांच्या वाडदिसाक भांगराउत्सव, पाऊणशें वर्सांच्या वाडदिसाक हिरक उत्सव आनी शंबराव्या वाडदिसाक सुवर्णमहोत्सवी वर्धापनदीस म्हण्टात.

ह्या दिसा कांयकडेन सत्यनारायणाची पुजा वा मीस घडोवन हाडटात. कांयकडेन तर समारंभ सुवाळोय मनयतात.

मनशांचे जिणेची, देवदैवतांची, व्हड अशा ग्रंथांची, व्हड मनशांची, संस्थांची सारकिल्ल्या बऱ्या कार्याक ज्या दिसा सुरवात जाता तो दीस दर वर्सा वाडदीस म्हण मनोवपाची सगळ्या जगार रीत आसा.

- कमलादेवी राव देशपांडे

**वाडेकर, सदाशिव दत्ताराम :** (जल्म : ठाणें-सत्तरी; मरण : २४ एप्रिल १९८० सत्तरी).

गोंयचो सुटकेझुजारी. तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी जालो. आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या फुडाऱ्यांक पुर्तुगेजांच्या गुपीत कारावायांविशीं खबरो पावोवपाचें काम तो करतालो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा सुर्ला हांगाच्या पुर्तुगेज पोलिस ठाण्याचेर ताणें बावटो लायलो. तेन्ना पोलिसांनी ताका दोन फावटी धरून सात म्हयन्यांखातीर बंदखणींत दवरलो. तो बंदखणींत आसतना आकाशवाणीवयल्यान तो

मेल्ल्याची फट बातमी प्रसारीत केली. बंदरवणींतल्यान सुटका जाल्या उपरांत तो भूंयगत सुटके झुजाऱ्यांची जेवण-खाणाची आनी रावपाची वेवस्था करतालो. पुर्तुगेजांच्या जाचांक लागून ताका धंद्यांतय बरेंच लुकसाण सोंसचें पडलें. ६ नोव्हेंबर १९६८ ह्या दिसा भारत सरकारान सुटके झुजांतल्यान ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों .वि. सं. मं.

**वाणिज्य :** उत्पादन आनी सेवा हांच्या वितरणांतली देव - घेव. हे देव - घेवींत उत्पादन, साठो, वितरण, येरादारी, भांडवल, दलाली किंमत नियंत्रण आदींचो अर्थीक वेव्हार आस्पावता. वायदे बाजार, नाणे बाजार, रोखेबाजार, विक्री कुशळकाय, जाहिरात कला आनी वेवस्थापनशास्त्र सारकिल्ल्या अर्थीक वेव्हाराकडेन संबंदीत घटक, वाणिज्य देव - घेवीत वांटेकार जातात. वाणिज्य वेवसायांत खासगी, सरकारी, निमसरकारी, सहकारी, संयुक्त, क्षत्रीय संस्था कार्यरत आसतात. जरी ह्यो संस्था वाणिज्य देव घेवीच्या वेव्हारांत वितरणाच्या समान हेतून कार्यरत आसल्यो तरी तांच्या उद्दिश्टांमदीं फरक उरता. खाजगी संस्थांखातीर शक्यतो अर्थीक फायदो हें मुखेल उद्दिश्ट आसता आनी त्या उद्दिश्टांच्या अनुषंगान खाजगी संस्था आपल्या कार्याची मांडावळ करता. हेर संस्थांचे बाबतींत नफो हें उद्दिश्ट आसलें तरी तें माफक नफ्याचें वा ना नफो ना तोटो ह्या तत्त्वाचें आसता. सार्वजनीक हीत हें कल्याणकारी तत्त्व थंय मुखेलपणान आसता.

वाणिज्य देव घेवीक वाणिज्य शास्त्रांत वेपार म्हण्टात. हातूंत देशाअंतर्गत जाल्ल्या वेपाराक अंतर्गत वेपार तर देशा भायर जाल्ल्या वेपाराक परराश्ट्रीय वेपार म्हण्टात. हातूंत परदेशांत वचपी मालाचे प्रकियेक निर्यात म्हण्टात आनी परदेशांतल्यान येवपी मालाचे प्रक्रियेक आयात म्हण्टात. जो देश माल आयात करता वा ज्या देशांतल्यान माल आयात जाला त्या देशाची निर्यात आसता. माल - सेवेचें विक्रीवरवीं जावपी वितरण ताच्या प्रमाणानुसार दोन तरांनी जाता. ल्हान प्रमाणांत जाल्ले विक्रेक किरकोळ विक्री तर व्हड प्रमाणांत जाल्ले विक्रेक ठोक विक्री म्हण्टात. किरकोळ विक्री ही चडशी थेट विक्री आसता. तर ठोक विक्री ही चडशी दलालां (मध्यस्त) मार्फत जाता. ठोक विक्रेंत दलाल आनी ताची दलाली हांचो आस्पाव जाता. विक्री - खरेदीच्या वेव्हारांत भांडवल, रीण, हुंड्यो, धनादेश सारकिल्ले घटक मदत करतात. बँको आनी तत्सम वित्त संस्था ह्या घटकांची गरजे प्रमाण पुरवण करता. ह्या वेव्हारांत ह्यो संस्था कमीशन तत्त्वाचेर वेपारी लोकांक वाणिज्य उलाढालीखातीर अर्थीक मदत करतात देखून वाणिज्य वेव्हाराक व्हड भरवंसो मेळूंक पावला. हाचेभायर मालाची साठवण करपाक लागपी गुदांव, माल हाड - व्हर करूंक लागपी रस्त्यावयली उदकांतली, रेल्वे, विमान येरादारी तशेंच वेपारी संपर्काखातीर लागपी प्रसार माध्यमां, दळणवळणाचीं साधनां हांचोय वाणिज्य देवघेवीक मोलादीक आदार जाता देखून तांच्या वेवस्थापनांत आस्पाव जाता. सैमीक तशेंच मानवनिर्मित अरिश्टांपसून मालमत्तेक तशेंच संबंदित घटकाक राखण मेळची म्हणून विम्याची येवजण करप जाता. हे येवजणीवरवीं वाणिज्य वेव्हाराक खात्रीचो भरवसो मेळटा. विक्री कुशळकाय, जाहिरात कला, वेवसाय वेवस्थापन ही आयच्या अर्थीक घडामोडिंतलीं म्हत्वाचीं आंगां जाल्यांत. तयार केल्ल्या उत्पादनांची मागणी, गिरायकांकडल्यान जावप आनी उत्पादीत माल वेळोवेळ खपप हे खंयच्याय वेव्हाराचें विकासाचें तशेंच अस्तित्त्वाचें मर्म आसा. उत्पादीत केल्ल्या मालाचे देवघेवीचेर उत्पादनाचो फुडार थारता. चडांत चड गिरायका मदीं मालाचें आकर्शण निर्माण करप हें आयच्या सर्तीच्या युगांतलें व्हड म्हत्वाचें काम आसा. ह्या कामाक ह्यो विक्री कुशळकाय, जाहिरात कला आनी वेवसाय वेवस्थापन प्रभावीपणान मदत करता.

वाणिज्य वेव्हाराचो संबंद विक्रिकर, आयातकर, निर्यात कर सारकिल्ल्या सरकारी धोरणाकडे येता. सरकाराचें अर्थीक नियोजनाचोय वाणिज्य वेव्हाराचेर इश्ट - अनिश्ट परिणाम करता. तेभायर कांय वाणिज्य आस्थापनां सरकारा मार्फत चलतात. हाका लागून सरकारी धोरण आनी वाणिज्य वेवसाय हांच्यामदीं परस्पर सहकार्य आसप गरजेचें जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**वातयान :** हवेपरस ल्हव आनी हवेंतल्यान संचार करपी वाहन यानाक उत्प्लावकता (हवेंत उफेवपाची तांक) येवपाखातीर हवेपरस ल्हव वायून (देखीक- उश्ण हवा, हायड्रोजन, हीलियम) भरिल्लो एक व्हडलो उत्प्लावक कोश आसता. हायड्रोन ह्या सगळयांत ल्हव आशिल्ल्या वायूंत, स्थलांतरीत हवेच्या वजनाच्या ९३% उत्प्लावकता मेळपाक शकता. पूण तो ज्वालाग्राही आसा. हीलियम हो रसायनीक नदरेन अक्रिय आनी अज्वालाग्राटी आसा आनी तो ९८% शुध्द आसल्यार ताचेपसून स्थलांतरीत हवेच्या वजनाच्या ८४% उत्प्लावकता मेळपाक शकता. २८ मी. इतल्या घनफळाचें हायड्रोजन, हीलियम आनी उश्ण हवा हांची उच्चालन (वयर उखलपाची) शक्त अनुक्रमान १४ किग्रॅ. १३ किग्रॅ. आनी ४ किग्रॅ. आसता.

उत्प्लावक कोशाच्या आच्छिद्र आनी पातळ आवरणाचेर कपडो, वेगवेगळया तरेचीं प्लास्टीकां, कागद आनी रबर हांचेसारके पदार्थ वापरल्यात. उत्प्लावक कोशाची अद्दढ, अर्दद्दढ आनी दृढ अशी तीन प्रकारांची रचणूक आसता. वातावरणांत संचार करपाखातीर कांय वातयानांक वातावरणांतल्या वाऱ्याच्या प्रवाहाचेर आदारून रावचें पडटा. तशेंच परिवहन मार्गाची दिशा नियंत्रीत करपाक येना. अशा वातयानाक बलून म्हण्टात.

परिवहन मार्ग आनी दिशा नियंत्रीत करपाची यंत्रणा जोडिल्ल्या वातयानाचे ब्लिंप आनी वातनौका (एअरशिप जांव डिरिजिबल) अशे दोन प्रकार आसात. वातयानांत मनशांक बसपाखातीर, मालाची व्हर - हाड करपाखातीर वा शास्त्रीय उपकरणां दवरपाखातीर वेगवेगळे तरेचे विभाग आसून ते उत्प्लावक कोशाक सकयले वटेन जोडिल्ले आसतात.

**बलून :** उड्डाणाच्या पयल्या यशस्वी मानवी यत्नांत बलुनांचोच उपेग केल्लो. फ्रांचेस्को द लाना ह्या जेजुइत धर्मगुरून १६७० च्या अदमासाक एकाद्र्या पोकळ गोलांतली सगळी हवा काडली जाल्यार तो हवेंत वयर वतलो अशी कल्पना मांडली, पूण तें अशक्य आशिल्लें. १६८२त फ्रांसांतल्या ॲनॉने हांगाच्या जोझेफ आनी एत्येन मॉगॉलफ्ये ह्या भावांक तांच्या रांदप घरांतले शेगाडेचेर हलक्या कागदाची पिशवी धरल्यार ती उश्ण हवेन भरून वयर वता म्हणपाचें जाणवलें. ४ जून १७८३ दिसा तांणी सुमार ११ मीटर. व्यासाचें उश्ण हवा भरिल्लें मानवरहीत कापडी बलून सुमार १.८ मीटर. उंचायेचेर धाडलें आनी तें सुरवातीच्या स्थानापसून सुमार २.४ किमी. अंतरामेरेन गेलें. १९ सप्टेंबर १७८३ दिसा तांणी व्हर्साय हांगा चड व्हड बलून वापरून एक मेंढी, एक कोंबो आनी एक बदक हाकां वयर धाडलीं. २१ नोव्हेंबर १७८३ दिसा झां फ्रांस्वा पिलात्र द रोझ्ये आनी फ्रांस्वा लोरां मार्की द आर्लांदी हाणें मॉगॉलफ्ये बलुनांतल्यान सुमार २३ मिनटां, पॅरिस शारावयल्यान सुमार ८ किमी. अंतरावयल्यान पयली समानव बलून भोंवडी केली. बलुनांतली हवा गरम उरपाखातीर तांणीं लोकर आनी तण जाळ्ळें. मनशांक बसपाखातीर उत्प्लावक कोशाचेर एक माची तयार केल्ली. हे बलून लिनन आनी कागद हांचेपसून तयार केल्ले. त्याच वर्सा डिसेंबर म्हयन्यांत फ्रेंच भौतिकीविज्ञ जे. ए.सी. चार्ल्स (शार्ल) हाणें एन्.एल्. रॉबर्ट हाच्यावांगडा हायड्रोजन भरिल्ल्या बलुनांतल्यान सुमार दोन तास उड्डाण केले. वायुदाबमापकाच्या आदारान तांणीं वेगवेगळे उंचायेवयले हवेचो दाब मेजलो. ह्या उड्डाणाकलागून हायड्रोजनाची बलून उड्डाणांतली श्रेश्ठता प्रस्थापित जाली. पयल्या म्हाझुजाउपरांत अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत हायड्रोजना परस कमी कार्यक्षम पूण ज्वालाग्राही नाशिल्ल्या हीलियमाचो वापर जावपाक लागलो. १९६० उपरांत उड्डाण क्रिडेखातीर उश्ण हवा भरिल्ले बलुन परत व्हड प्रमाणाचेर प्रचारांत येवपाक लागले.

सुरवातीच्या काळांतल्या बलून उड्डाणाच्या इतिहासांतलीं आनीक कांय म्हत्वाचीं उड्डाणां म्हणजे जे.पी.एफ्.ब्लँचर्ड हाणें इंग्लीश खाडिवयल्यान १७ जानेवारी १७८५ दिसा केल्लें उड्डाण, चार्ल्स ग्रीन हाणें दोन सहप्रवाशांवांगडा १८३६ त लंडनच्यान जर्मनींतल्या व्हाइलबुर्कमेरेन सुमार ७७० किमी. अंतराचें १८ तासांत केल्लें उड्डाण, फ्रांस्वा आरबां हाणें १८४९त फ्रांसांतलें मार्से तें इटलींतलें तूरिन हें आल्प्सांतल्या तेंमकावयल्यान केल्लें उड्डाण आनी उत्तर ध्रुवावयल्यान वचपाच्या उद्देशान सॅलमॉन आंद्रे हाणें १८९७त केल्लें अयशस्वी उड्डाण.

बलुनांचे लश्करी उपेग रोकडेच विकसीत जाले. फ्रेंच जनरल मार्लो हाणें बलुनाक जोडिल्ल्या विभागांतल्यान तेळणी करून तोफखान्याच्या गुळोमारीचें मार्गदर्शन केलें. नेपोलियनानय कांय झुजांनी तेळणेखातीर जमनीचेर बध्द केल्ल्या बलुनांचो उपेग केलो. १८४९त ऑस्ट्रियेन व्हेनिसाचेर बलुनांचो उपेग करून दारूगुळो मारलो. अमेरिकेंतल्या यादवी झुजांत तेळणी आनी छायाचित्रां घेवपाखातीर बलुनांचो उपेग केलो. १८७०त पॅरिसच्या रेवाड्याच्या वेळार त्या शाराचें भायल्या जगाकडलें संदेशवहन दवरपाखातीर बलुनांचो उपेग जालो. पयल्या म्हाझुजांत सैन्य आघाड्यो वळखुपाखातीर बलुन वापरले. दुसऱ्या म्हाझुजांत ब्रिटनच्या जायत्या भागांनी कमी उंचायेवयली बाँबमारी आनी हांचेपसून म्हत्वाच्या स्थानांची राखण करपाखातीर बलून उबारपांत आयिल्ले.

विज्ञानांतय बलुनांचे उपेग केल्ले. १९११ - १२ त व्ही.एफ्.हेस ह्या ऑस्ट्रियन भौतिकीविज्ञान विश्वकिरणांचें अस्तित्त्व सिध्द करपाखातीर ५,००० मीटर उंचायेमेरेन बलून उड्डाणां केलीं. १९३०च्या पयलीं मनशान बलून उड्डाणांत गांठिल्ली सगळयांत चड उंचाय सुमार १०,२०० मीटर आशिल्ली. हवेचो दाब आनी ऑक्सिजन प्रमाण कृत्रिम तरेन लागींलागीं सारकें दवरिल्ल्या आनी बलुनाक जोडिल्ल्या सीलबंद प्रवासी कक्षेंतल्यान जायतीं यशस्वी उड्डाणां १९३० - ३५ ह्या काळांत केलीं. ऑग्यूस्त पीकार ह्या स्वीस भौतिकीविज्ञ हाणें पाउल कीफर हाच्यावांगडा जर्मनींत २७ मे १९३१ दिसा आपणें केल्ल्या बलुनान १५,७९१ मीटर उंचाय गांठली. १९३४त गुडइयर टायर अँड रबर कंपनीन तयार केल्ल्या एक्सप्लोअरर ह्या २८,३०० मीटर$^3$ तांकिच्या बलुनान १८,३०० मी. उंचाय गांठली. ह्या बलुनापरस चौपट तांक आशिल्ल्या आनी हीलियमचो उपेग केल्ल्या एक्सप्लोअरर - २ ह्या बलुनाच्या आदारान अमेरिकेच्या भूदलांतल्या ए.डब्ल्यू.स्टीव्हेंझ आनी ओ.ए.अँडरसन हाणें ११ नोव्हेंबर १९३५ दिसा २२,०३८ मीटर उंचाय गांठली. ऑग्यूस्त पीकारान पॉलिएथिलीनापसून तयार केल्ल्या 'स्कायहूक' हे बलून मालिकेच्या अभिकल्पांत पालव दिलो. अमेरिकेच्या हवाई दलान उच्चतर वातावरणासंबंदी म्हायती मेळोवपाखातीर ३०,००० मीटर परस चड उंचायेचीं समानव उड्डाणां करपाखातीर ह्या बलुनांचो उपेग केलो. अमेरिकेच्या नाविक दलांतल्या कमांडर एम्.डी. रॉस हाणें चलयल्ल्या समानव बलुनान १९६१ त ३४,६६८ मीटर ही विक्रमी उंचाय गांठिल्ली.

अमेरिकेंतल्या नॅशनल जिऑग्राफिक सोसायटी आनी थंयच्या भूदलाचें हवाई दल हाणीं १९३४ आनी १९३५ त कर्मचारी वर्गावांगडा दोन बलून उड्डाणां आयोजित केल्लीं. ताचेउपरांत कर्मचारी वर्गावांगडा अशीं जायतीं उड्डाणां केलीं. ताचेउपरांत मात अवकाश युगाक सुरवात जाली.

इ.स.च्या १९५० उपरांतच्या दशकाचे सुरवेक बलुनांचो अभिकल्प आनी बलून निर्मितीखातीर वापरपाची सुदारीत सामुग्री हांचेविशींचें बरेंच संशोधन जालें. ह्या संशोधनांतल्यान पॉलिएथिलिनच्या पातळ पटलाचे आधुनिक शून्य - दाब बलून विकसित जाले. हे बलून आतां व्हड विज्ञानीक प्रयोग सामुग्री अवकाश शीमेमेरेन व्हरपी सर्वसामान्य वाहन जालां. पॉलिएथिलीन बलुनांचें घनफळ $३\times१०^{४}$ पसून $२\times१०^{६}$ $मी^{३}$. मेरेन वाडिल्लें आसा आनी तांचो अभिभार शेंकडो किग्रॅ. पसून ५,००० किग्रॅ. मेरेन वाडिल्लो आसा.

बेन आब्रुझो, मॅक्सी अँडरसन आनी लॅरी न्यूमन हांणी सगळ्यांत पयलीं १९७८त उत्तर अटलांटीक म्हासागर हुंपलो जाल्यार जो. किटिंजर हाणें १९८४त हुंपलो.

उपेगांत आशिल्ल्या बलुनांच्या जायत्या प्रकारांचे प्रसरणशील आनी अप्रसरणशील अशे मुखेल दोन वर्ग करपाक येतात. बलून तीन पद्दतींनी काम करपाक शकता : १) मुक्त बलुन : हे वातावरणांत सोडून दितात, २) बध्द बलुन : हे दोरयेन जमनीक बांदून दवरतात,३) शक्तिचालित वा नियंत्रित मुक्त बलुन. बलुनांचे उपेगांत आशिल्ले वेगवेगळे प्रकार म्हणजे उश्ण हवायुक्त बलून, शुन्य - दाबयुक्त बलून, अतिदाबयुक्त बलून आनी शक्तिचलित (वातनौका) बलून.

उश्ण हवायुक्त बलून : इतिहासीक नदरेन हे बलून सुरवेच्या उड्डाणांखातीर खूब खेपे वापरिल्ले आनी ताकालागून विज्ञानीक आनी वायुस्थितिकीय (वायूंचो समतोल आनी तातूंत बुडिल्ल्या आनी फक्त सैमीक गुरूत्वाकर्शणीय प्रेरणेच्या क्रियेखाला आशिल्ल्यो घन वस्तू हांचेविशींच्या शास्त्रांतलें) संशोधनांत म्हत्वाची भर पडिल्ली. देखून १९६० वर्सासावन ताचें मुखेल काम मनशांक उंचायेर व्हरपाच्या खेळांत मुक्त बलून म्हणूनच थरलां. ह्या बलुनांत बदलपी परिस्थितीची दखल घेवन बलून चालकान फाव ते निर्णय घेवचे पडटात म्हणून चालकाक प्रदीर्घ अणभव आसचो पडटा. हातूंत विशिश्ट उंचायेवयल्यान परिवहन करपाखातीर ज्वालकाकडेन संबंदीत आशिल्ली स्वयंचलित यंत्रणां वापरतात.

वातावरणविज्ञानीय बलुन : उच्च वातावरणांतलो हवेचो दाब, तापमान, वाऱ्याचो वेग आनी दिशा हे प्रचल (राशी) मेजपाक वापरपांत येवपी रेडिओसाउंड (वातावरणविज्ञानीय उपकरणां) आनी हेर हलक्या वजनाचीं उपकरणां वयर धाडपाखातीर ह्या बलुनांचो उपेग करतात. जागतिक हवामान संघटनेच्या उच्चतर वातावरण कार्यावळीच्या पुष्ट्यर्थ तशेंच स्थानिक हवामान अदमासाखातीर अशे शेंकड्यांनी बलुन सदांच सोडटात. हे बलुन ४० किमी. मेरेन उंचायेचेर वचपाक शकतात. वातावरणविज्ञानात बलुनांचो उपेग पयलीं १८९२त केलो. पयलो बलून ४ $मी^{३}$ इतल्या आकारमानाचो आशिल्लो आनी तो ७.६ किमी. उंचायेचेर पाविल्लो.

सदच्या रेडिओसाउंडयुक्त उड्डाणांखातीर १ किग्रॅ.चे बलुन वापरतात. ते सुमार २७,००० मी. उंचायेमेरेन सुमार ८५% खेपे पावतात. पातळ प्लॅस्टिकाच्या पटलांपसून तयार केल्ले खूब व्हड बलुन कांय टन भार ३० किमी. उंचायेर वा ताच्याय वयर घेवन वचपाक शकतात. हे बलुन थारावीक उंचायेर कितलेय दीस उफेत रावपाक शकतात. ह्या बलुनाक लागून विस्तीर्ण म्हासागरावयल्या प्रदेशांवयलीं उच्चतर वातावरणीय निरीक्षणां मेळोवप शक्य जाता.

वातावरणवैज्ञानिक निरीक्षणांखातीर बध्द आनी मुक्त, तशेंच समानव आनी मानवरहित बलुन पयले वापरिल्ले. पूण आतां मानवरहित मुक्त बलुनांचोच चडकरून उपेग करतात. तशेंच बलुनांत वातावरणीय दाब, तापमान, आर्द्रता सारकिल्ल्या प्रचलांचें मापन आनी आलेख तयार करपी उपकरणांय आसतात. जमनीवयल्या स्थानकांतल्यान रेडियो संदेश धाडून बलुनाच्या परिवहनाची उंचाय नियंत्रित करपाक येता. बलुनावयल्या रडाराचो उपेग वातावरणांतल्या वाऱ्यांची दिशा आनी वेग मेजपाखातीर दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत करपाक सुरवात जाली.

शून्य - दाब बलून : विज्ञानीक कामांखातीर ह्या बलुनांचो मुखेलपणान उपेग करतात. जगभर हे तरेचे जायते बलुन दर वर्सा वयर सोडटात. हे बलुन ३० ते ४२ किमी. उफेवपाचे उंचायेचेर ३ वरांत पावपाक शकतात. शून्य - दाब बलून हजारांनी किग्रॅ. वजनाचे विज्ञानीक उपकरणां ४२ किमी. उंचायेमेरेन व्हरपाक शकता. हीं उपकरणां खुबशीं सुविकसित जाल्लीं आसून तांची बांदावळ कृत्रिम उपकरणाभशेन आसता. जायते खेपे नवी तंत्रविद्या उपग्रहाचेर व्हरचे पयलीं बलून प्रयोगांत तिची चांचणी करतात. हाचें कारण म्हणजे बलून प्रयोग विकसित करपाक कमी वेळ लागता आनी बलून प्रणालिचो खर्च कमी आशिल्ल्यान चड धोको पत्करपाक येता. भारतांत अहमदाबाद हांगाच्या अवकाश अनुप्रयुक्ती केंद्रावयल्यान ३० $मी^{३}$ घनफळाच्या शून्य - दाब बलुनाचें पयलें उड्डाण १९ मे १९७८ दिसा केलें.

अतिदाबयुक्त बलून : ह्या बलुनाविशीं जायतें संशोधन केल्लें आसून ताका थीर - पातळी बलून अशेंय म्हण्टात. हे अप्रसरणशील (थीर - घनफळ) मुक्त बलून आसून उफेवपाच्या उंचायेर पावमेरेन ताच्या मुक्त उच्चालनाचें अतिदाबांत रुपांतर जाता. हे बलून अतिदाबयुक्त आसमेरेन थीर घनता पातळेचेर उफेत रावतात. हाचो फायदो म्हणजे सगळे धर्तरेभोंवतणी दिर्घकालीन उड्डाणाची शक्यताय आसा. ३० मी. परस चड व्यास आशिल्ले बलुन सोडपांत थरावीक यश फाव जाल्लें आसा. ह्या संशोधनाचो मुखेल हेतू ४२ किमी. उंचायेमेरेन सुमार ३०० किग्रॅ. वजन व्हरपाक शकतले अशे अतिदाबयुक्त बलुन तयार करप हो आसा.

बध्द बलून : असले तरेचे बलून दोराक बांदून जमनीक बध्द केल्ले आसतात आनी यंत्रीक गाडयेच्या यंत्रणेच्या आदारान ते

वयर सोडटात. ह्या बलुनाचे उंचायेची मर्यादा चड करून ६ किमी. मानतात. पूण फ्रासांतल्या नॅशनल सेंटर फॉर स्पेस स्टडीज हे संस्थेन ३५० किग्रॅ. वजनाचो विभाग १७ किमी. उंचायेमेरेन १२ तास घेवन वचपी बध्द बलून सोडिल्ल्याची नोंद आसा.

बध्द बलुनाचो उपेग चडकरून लश्करी उद्दीश्टांखातीर ध्वनिकीय, रडार, आनी प्रकाशीय तेळणी, उंच आकाशक (अँटेना) आनी संदेशवहन सहक्षेपक प्रणाली दिवपाखातीर केला. ह्या बलुनाची उच्चालन तांक १०,००० ते २०,००० किग्रॅ. आसता.

बलून उड्डाणाचें शास्त्रीय तत्त्व : आर्किमिडीज तत्त्वाप्रमाण वातावरणांतले थीर हवेंत फुगयल्लो उत्प्लावक कोश आसल्यार ताचेवयली उत्प्लावक प्रेरणा कोशाच्या आकारमानाक लागून स्थानांतरित जाल्ले हवेचें वजन आनी कोशाचें वजन (कोशांतलो वायू आनी आवरण हांचें वजन) हांच्यामदल्या फरका इतको आसता. कोशाचें वजन स्थानांतरित हवेच्या वजनापरस कमी आसत जाल्यार कोश वातावरणांत ऊंच वचपाक शकता. वातावरणांतले हवेचो दाब जमनीपसून जसो जसो ऊंच वता तसो तसो कमी जायत वता. ताका लागून स्थानांतरित हवेचें वजन कमी कमी जाता. पूण कोशांतल्या वायूचें वजन तितलेंच उरता. उत्प्लावक प्रेरणा, कोश ऊंच वता आसतना कमी जायत आसता. एके खास उंचायेचेर उत्प्लावक प्रेरणा शून्य जावन कोश ते उंचायेर उफेत रावता. कोशांतल्या वायूची घनता जितकी कमी तितकी प्रेरणा चड आसता. कोशांतल्या वायूचें तापमान चड-कमी जाता. हाका लागून तापमानाचेर नियंत्रण करून कोशाचो जमनीपसून वयर वचपाचो वेग वा उफेवपाची उंचाय हांचें नियंत्रण करपाक येता.

उत्प्लावक कोश : बलुनाच्या उत्प्लावक कोशांत मुखेलपणान उश्ण हवा, हायड्रोजन आनी हीलियम हे वायू वापरतात. हायड्रोजन हो सगळयांत हलको वायू आशिल्ल्यान बलुनाचो अभिभार वाडटा. पूण ताचो स्फोट जावपाची शक्यता चड आशिल्ल्यान अपघात घडपाक शकतात. समानव बलून उड्डाणाखातीर सुरवेक जरी हायड्रोजन वापरताले तरी हीलियमाचो सोद लागल्या उपरांत ताचो वापर बंद जालो. मानवरहित बलुनांखातीर आजुनूय चड करून हायड्रोजना परस चड आशिल्ल्यान हीलियमयुक्त बलुनाचो अभिभार कमी मेळटा, पूण उजो लागपाचो जांव स्फोट जावपाचो धोको नासता.

बलुनाचो उत्प्लावक कोश लवचिक आनी अपार्य (जातुंतल्यान वायू भायर वचपाक शकना असो) पदार्थाचो करतात. कोशाचें आवरण रबर आशिल्लो कपडो, कागद, नायलॉन, पॉलिएथिलीन, मायलार आनी वेगवेगळे तरेचीं प्लास्टिकां हांचेपसून तयार करतात. उत्प्लावक कोशाचे जायते गणितीय आकार वापरपांत आयिल्ले आसात. पूण वाटकुळे, लघु-अक्षीय गोलाभ आनी वायुगतिकीय विन्यास (हवेच्या प्रवाहाक फाव ते तरेन तोंड दितली अशे गूण आशिल्ली रचणूक) सगळयांत चड प्रमाणांत वापरतात. जाय आशिल्ली उत्प्लावक प्रेरणा मेळोवपाखातीर एकच व्हड आकारमानाचो कोश वापरपापरस ल्हान आकारमानाचे जायते कोश वापरल्यार उत्प्लावक केशाचें वट्ट वजन कमी करपाक येता. उत्प्लावक कोश आनी प्रवासी विभाग जोडपाचे जायते प्रकार आसतात.

बलून संचाराची पद्दत : बलून उड्डाणाच्या आनी उतरपाच्या स्थानाचेर खास अशी यंत्रणा नासता. तशेंच ताचो विस्तारय ल्हान आसता. हायड्रोजन आनी हीलियम वायू भरपाखातीर उत्प्लावक कोशाक सकयल्ले वटेन एक नळी आसता. हे नळयेंतल्यान टाकयांतलो दाबयुक्त वायू भरून उत्प्लावक कोश फुगयतात. वातावरणांतल्या हवेच्या दाबापरस इल्लो चड दाब जायमेरेन वायू भरतात. वायू भरता आसतना कोश दोरांनी जमनीचेर धरून दवरचो पडटा. वायू भरपाची नळी कमी-चड उगडून जांव बंद करून बलून चालक आरोहण, अवतरण आनी संचार हांचेर कांय प्रमाणांत ताबो दवरपाक शकता. बलुनांतलो पूरक भार कमी केल्यार ताचो वयर वचपाचो वेग वाडटा. बलून जसो जसो ऊंच वता तसोतसो वातावरणांतलो हवेचो दाब कमी जाता. आनी कोशांतल्या वायुचो दाब हवेच्या दाबापरस चड जाता. कांय कारणान तापमान वाडल्यार हो फरक वाडून कोश फुटपाची शक्यता वाडटा. कोशांतलो वायूचो दाब कमी करपाखातीर बलुनाचे सगळयांत वयले वटेन झडप आसता आनी ती दोरयेच्या आदारान चड-कमी उगडपाक येता. तशेंच बलून जमनीचेर देंवपाखातीर ही झडप उगडून वायू कमी करून उत्प्लावकता कमी करपाक येता. जमनीचेर देंवतना बलुनाक जोडिल्लो कर्शक दोर जमनीचेर फरफटत वता. ताकालागून बलुनाची भूपृश्ठ सापेक्ष वेग कमी जाता आनी ताका स्थिरता येता. जमनीक तेंकल्या उपरांत रोकडोच जर तातुंतलो वारो काडूंकना जाल्यार तो परत वयर वचपाची शक्यताय आसता. देखून आवरणाचो एक भाग (विदारण पट्टी) पिनून काडून वायू रोकडोच कमी करतात. आता हेखातीर झडपेचो उपेग करतात.

बलुनांचो अवकाशविज्ञानीय उपेग : शून्य दाब आनी अतिदाबयुक्त बलुन अवकाशसंबंदीत कार्यवळींनी वापरांत आयल्यांत. तशेंच विज्ञानीक म्हायती मेळोवपाखातीर क्ष-किरण, गॅमा किरण, विश्व किरण, आवरक्त आनी जंबुपार किरण हांचेविशींचीं प्रयोग उपकरणां धर्तरेच्या वातावरणाच्या वयर व्हरपाखातीर क्ष-किरण, गॅमा किरण, विश्व किरण, अवरक्त आनी जंबुपार किरण हांचेविशीचीं प्रयोग उपकरणां धर्तरेच्या वातावरणाच्या वयर व्हरपाखातीर बलुन हें एक बरें वाहन आसा.

खेळां सर्तीनी वा मनरिझवणेखातीर शक्तिचलित नाशिल्ले बलुन १९६० उपरांतच्या दशकांत लोकप्रिय जालीं. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक मुक्त बलून उड्डाणाक खेळ म्हणून बरीच नामना फाव जाली. जायतीं वर्सां बलून उड्डाण सर्ती आयोजीत केल्ल्यो. भारतांत तशेंच जायत्या हेर देशांनीय ह्यो सर्ती जाताल्यो.

ब्लिंप आनी वातनौका : सुरवेक बलुनाचें परिवहन आनी दिशा नियंत्रण करपाचे यंत्रणेचो सोद घेवपाचे यत्न सुरू जाले. १८५२त आंरी झीफार ह्या फ्रेंच अभियंत्यान ४४ मीटर लांबायेच्या लांबट बलुनाक ३ अश्वशक्तीचें वाफेचें इंजीन प्रचालक पंखो फिरोवपारवातीर बसोवन वाऱ्याचेर आदारून रावनासतना स्वेच्छा परिवहन करपाचो जैतिवंत यत्न केलो आनी वातनौकेचो जल्म जालो.

सुरवेच्यो वातनौका अदृढ प्रकाराच्यो आशिल्ल्यो. १८७२ त पाउल हेअन्लायन ह्या जर्मन अभियंत्यान वातनौकेंत पयलेच खेपे अंतर्ज्वलन इंजीन वापरलें. १८८४त शार्ल रनार आनी ए.सी. क्रेब्ज ह्या फ्रेंच लश्करी अधिकाऱ्यान विद्युत् चलित्र (मोटर) जोडिल्ल्या ल फ्रांस हे वातनौकेन सुमार ८ किमी. प्रवास केलो. आलबेअरतू सँनतूझ - द्यूमाँ ह्या पॅरिसच्या ब्राझीलीयन विज्ञानिकांनी वातनौकेंत जायत्यो सुदारणा केल्यो. ताणीं तयार केल्ल्या १४ वातनौकांच्या आदारान जायते उच्चांक प्रस्थापित केले. १८९८त ताणीं अंतर्ज्वलन इंजीनाचो उपेग करून ल्हान वातनौकेचें यशस्वी उड्डाण करून ल्हान वातनौकेचें यशस्वी उड्डाण करून दाखयलें. ताणीं १९०१ त केल्ल्या एका उड्डाणांत पॅरिसांतल्या आयफेल टॉवराक भोंवताडो घातलो.

अदृढ वातनौका : ह्या प्रकारच्या वातनौकांच्या सुरवेच्या विकासांत फ्रांसातले सँनतूझ-द्यूमाँ आनी झोदिॲक, जर्मनींतलो आडगुस्ट फोन पर्सेव्हाल आनी अमेरिकेंतलो टॉमस बॉल्डविन हांचो म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. दोनय म्हाझुजांनी ब्रिटीश आनी अमेरिकन लश्करांनी दर्यादेगांचेर राखण करपाक, रक्षक आनी पाणबुडी कार्य हांचेरवातीर ब्लिंपाचो उपेग केलो. ह्या वातनौकांनी देशाभायर भोंवडी करप, जायत्या शारांवयल्यान प्रवाशांक भोंवडावन हाडप तशेंच इमारतींचेर टपाल उतरावप सारकिल्लीं कामां केलीं.

अर्धदृढ वातनौका : प्रवासी कक्ष, शक्ती आनी संयंत्र, इंधन आनी अभिभार हांच्या वजनाची वातनौकेचे लांबयेभर वांटणी करपारवातीर कांय अभिकल्पकांनी कायेच्या तळाक दृढ कणो संरचनेचो आस्पाव केलो आनी हातुंतल्यान अर्धदृढ वातनौका प्रकार अस्तित्वांत आयलो. इटलींतलो ऊंबेतो नॉबील हाणें रोमा (१९१९), नॉर्ज (१९२६) आनी इटलिया (१९२८) तशेंच गुडइयर कंपनीन बांदिल्ली आर एस - १ (१९२६) ह्यो अशा प्रकारच्यो वातनौका अभिकल्पित केल्यात.

दृढ वातनौका : जर्मनींत ह्या प्रकारच्या वातनौकांचो मूलभूत विकास आनी निर्मिती काउंड फेर्दिनांद फोन त्सेपेलीन हाच्या चिकाटिच्या यत्नांतल्यान जाली. ताकालागून दृढ वातनौका त्सेपेलीन ह्या नांवानच वळखुंक लागले. १९०० ते १९३० ह्या काळांत त्सेपेलीन कंपनीन १३० वातनौका तयार केल्यो आनी तांचीं उड्डाणांय केलीं. हेच कंपनीन १९२४त बांदिल्ली ७,०७,५०० मी$^3$ तांकीची आनी दर एकी ४२० अश्वशक्तीचीं पांच इंजीनां आशिल्ली एल झेड - १२६ ही वातनौका अमेरिकेंत व्हरून थंय ती नाविक दलांत लॉस ॲंजेल्स ह्या नांवान दाखल जाली. १९२८त बांदिल्ली ग्राफ त्सेपेलीन हे वातनौकेची वायुक्षमता १०,४७,१०० मी$^3$ आशिल्ली. २४ ते ३५ प्रवासी व्हरपाची आनी रावपाची व्हड सुवात आशिल्ली ही वातनौका अटलांटिक पार हवाई प्रवास करपाचें लोकप्रिय साधन जालें. १९३६त बांदपांत आयिल्ली हिंडेनबुर्ग ही वातनौका १९,८१,००० मी$^3$. वायुक्षमतेची, २५० मीटर लांब आनी ४० मीटर व्यास आशिल्ली दर एकी १,०५० अश्वशक्तीच्या चार डीझेल इंजिनांनी चलयताले. ६ मे १९३७ दिसा अमेरिकेंतली लेकहर्स्ट हांगा हिंडेनबुर्ग वातनौका जळ्ळी आनी ३६ प्रवासी मेले. ह्या अपघाताक लागून वातनौका प्रवासी सेवा बंद करपांत आयली.

ग्रेट ब्रिटनांत १९१५ - ३० ह्या काळांत दृढ वातनौकांची एक माळच विकसित करपांत आयली. आर - ३४ ह्या ५,६६,७०० मी$^3$. वायुक्षमतेच्या आनी दर एकी २७० अश्वशक्तीचीं पांच इंजीनां बसयल्ले वातनौकेन १९१९त पयलो अटलांटीकपार प्रवास केलो. ताचेउपरांत तयार केल्ल्यो आर - १०० आनी आर - १०१ ह्या दर एकी १४,५०,००० मी$^3$ हायड्रोजन तांकीच्यो वातनौका उल्लेखनीय आशिल्ल्यो.

अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत १९२४त लॉस ॲंजेल्स ही जर्मन वातनौका हाडल्या उपरांत गुडइयर त्सेपेलीन कोर्पोरेशनान १९३१ त ॲक्रॉन आनी १९३३त मेकॉन ह्यो वातनौका अभिकल्पित केल्यो आनी बांदल्यो. लॉस ॲंजेल्स सोडून बाकिच्या वातनौकांक मात अपघात जाले. ॲक्रॉन आनी मेकॉन ह्या वातनौकांचो विमानवाहक आनी तेळणी करपाचें वाहन म्हणून उपेग जातालो, हेंच तांचें खाशेलेंपण आशिल्लें.

बलुनाक शक्ती संयंत्र आनी प्रचालक यंत्रणा जोडली म्हणजे ताचें वातनौकेंत रुपांतर जाता. वातनौका चडकरून प्रवाह रेखित काया, तातूंत एक वा चड वायुयुक्त कप्पे, नियंत्रणारवातीर थीर आनी चल पृच्छपृश्ठां, कर्मचारी वर्ग आनी प्रवासी हांचेरवातीर कक्ष आनी प्रचलन प्रणाली हाणीं केल्ली आसता. व्हडल्या वातनौकांनी जायते हवायुक्त कप्पे आसतात आनी तांकां लागून चालक फुडले वा फाटले वटेन हवा हालोवन वातनौकेची स्थिती फाव अशी दवरपाक शकता.

अदृढ वा दृढ ह्या प्रकारचे मुलत : वेगळे आशिल्ले अभिकल्प वातनौकांरवातीर यशस्वीपणान वापरपांत आयिल्ले आसात. अर्धदृढ हो तिसरो प्रकार अदृढ प्रकाराचोच भेद आसून तातूंत दृढ करपाचो अंतर्भाव आसता. दृढ आनी अदृढ वातनौका भायल्यान दिसपाक जरी सारक्यो दिसल्यो तरीय तांचे रचणुकेंत आनी कार्यांत ठळक भेद आसतात.

दृढ प्रकाराचे वातनौकेची संरचना चड करून ॲल्युमिनियमचीं कडीं - आनी तुळई अशा दृढ चौकटींत केल्ली आसता. वातनौका थीर करपारवातीर तिच्या फाटल्या तोंकाक पुच्छपक्ष जोडचे पडटात. रूढ क्रुसाकार (चार पुच्छपक्ष) पुच्छ रचनेंत आडवीं नियंत्रण पृश्ठां उच्चालक आनी उबीं नियंत्रण पृश्ठां सुकाणू म्हणून काम करतात. तशेंच

आवरणाच्या सकयल्ल्या वटेनचो कक्ष रज्जुवक्री पट्ट्यांनी आनी तारदोरांनी वयल्या भागाक जोडून लोमकळत दवरिल्लो आसता. ह्या कक्षांत शक्ती संयंत्र आनी प्रचालन यंत्रणां दवरिल्ली आसता. एक एक प्रचालक पंखे चलोवपी हवेन थंड जावपी रूढ विमान इंजीनां कक्षाच्या भायर आयिल्ल्या उलांडी नौकैसारक्या भागांचेर जोडयेन बसयल्लीं आसतात. इंधन, तेल, पूरक भार, भाते, रेडिओ संदेशवहन सामुग्री, उपकरणां आनी साहाय्यक साधनां कक्षांतूच वा तांचेर आशिल्ल्या उलांडी भागांत जांव इंजिनाच्या आच्छादनांत दवरतात. कक्षाचो तळभाग उतरपाच्या चाकांचेर बसयल्लो आसता आनी हीं चाकां वयर वोडून घेतात. उदकाचेर देंवपाक कक्षाक तराफोय लावं येता. वातनौका चलोवपाखातीर बलून उड्डाण आनी विमान चालन ह्या दोनांतल्याय तंत्रांचें प्रशिक्षण आनी अणभव हांची गरज आसता. जेन्ना वातनौका सामकी उत्प्लावक समतोलांत आसता तेन्नाच तिचें उड्डाण वा उफेवप थीरतायेन जांव येता. वातनौका चलयतना उत्प्लावकता आनी वायूचो दाब ह्या गजालींचेर सारकें लक्ष दवरचें पडटा. वातनौकेचें नाक तिरपे दिशेन वयर करून हवे परस मातशे जड अवस्थेंत उड्डाण करपाक येता. पूण हवेपरस हलके स्थितींत नाक सकयल करून उड्डाण करपाची गरज आसल्यार अशे स्थितींत जमनीवयल्या कर्मचारी वर्गाचो पालव घेवंचो पडटा. अदृढ वातनौकांचो वराक वेग १०० ते १३० किमी. आसपाक शकता.

आधुनिक वातनौका संकल्पना : पूर्ण उत्प्लावक रूढ संकल्पना ह्यो अभिजात, पूर्ण उत्प्लावक, दृढ आनी अदृढ वातनौका संकल्पनांचीं आधुनिक रुपां आसात. हे तरेच्या वातनौकेंत आधुनिक विमानाची संरचना सामुग्री, प्रचालन प्रणाली, नियंत्रण प्रणाली आनी इलॅक्ट्रोनीक साधनां वापरतात. कांय संकल्पना ह्यो कमी प्रमाणांत उत्प्लावक वा संकरीत संकल्पना आसात. तातूंत उत्प्लावक उच्चालनाचें वायुगतिकीय वा प्रचालकीय उच्चालनान भरिवपणान आवर्धन, करतात. अशे तरेन हीं वाहनां कांय प्रमाणांत हवेपरस हलकीं आनी कांय प्रमाणांत हवेपरस जड आसात. अभिजात संकल्पनांकडेन तुळा केल्यार ह्या अंशतः उत्प्लावक संकल्पनांच्या वाहनांचो संचार वेग चड, इंधन खप चड आनी संरचना वजन चड आसतलें म्हणपाचें सर्वसादारणपणान जाणवता.

डायना एअरशिप हे उच्चालककाया संकल्पनेचें प्रतिनिधिक रूप आसा. ताचे कायेचो आकार रूढ वातनौकेपरस वायुगतिकीय नदरेन चड कार्यक्षम आसा. ह्या विशिश्ट संकल्पनेंतलो आकार त्रिकोणाकृती (डेल्टा) फलाटाचो आसा. मेगॅलिफ्टर हें पारवां आशिल्लें वातनौकेचें नमुनेदार उदाहरण आसा. हेलिप्सॉयड हातूंत दीर्घवृत्ताभ आनी त्रिकोणाभ ह्या आकारांत तडजोड करपाचो हेतू आसा. हेलिस्टॅट हें फिरतों पंक्ष संकरित प्रकाराचें प्रतिनिधिक रूप आसून तातूंत वातनौका कायेचो हेलिकॉप्टरांकडेन वा हेलिकॉप्टर घूर्णक प्रणालिकडेन संयोग केल्लो आसा.

दुसऱ्या म्हाझुजापयलीं १९३७त हिंडेनबुर्ग वातनौका नश्ट जालेउपरांत व्हडल्या वातनौकांचो काळ सोंपलो. आधुनिक काळांत वातनौकांचो उपेग जाहिरातींखातीर करतात. वातनौकेंत एकाच जाग्यार उफेत रावपाची तांक आशिल्ल्यान फूटबॉल, गोल्फ, मोटारगाड्यांच्यो वा व्हड्यांच्यो सर्ती हांचे सारकिल्ल्या मुखेल खेळा प्रकारांखातीर दूरचित्रवाणी कॅमेरा वा तो हाताळपी व्यक्ती हांचेखातीर वातनौका हो एक बरो हवाई फलाट थरिल्लो आसा. आणिबाणीच्या काळांत हुंवार वा जंगलांतले वणवे, हांच्या सारक्या सैमीक अरिश्टांचें निरीक्षण करपाखातीर वातनौकांचो उपेग करतात. रातचेवेळार खूण म्हणूनय वातनौका वापरतात. हालींच्या काळांत वातनौकांचो परत नागरी आनी लस्करी उपेग करपाच्या नदरेन विचार चालू आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वातानुकूलन :** अपेक्षीत तापमानाखातीर वातावरणाचें कृत्रीम रितीन केल्लें नियंत्रण. मर्यादीत सुवातींतलें हवेचें तापमान, आर्द्रता, वायुगती, शुध्दता आनी वास ह्या सगळया घटकांचें एकेच फावट नियंत्रण करून ते जागेंत आशिल्ल्या मनशांक सुखदायक वातावरण वा ते जागेंत चालू आशिल्ले प्रक्रियेक योग्य अशा गुणधर्मांनी युक्त आशिल्लें वातावरण निर्माण करप हो वातानुकूलनाचो हेतू आसता. हवेचे सगळेच गुणधर्म नियंत्रीत करपाक येनात. पूण तातुंतल्या मुखेल गुणधर्मांचें नियंत्रण करून वातानुकूलनांत बाकीच्या गुणधर्मांविशीं जायते खेपे तडजोड करची पडटा.

भारतांत खूब पुर्विल्ल्या काळासावन कुडींतली हवा थंड आनी सुवासीक करपाखातीर जनेलां आनी दारांक वाळयाचे वोले पट्टे लावप जातालें. भायली हवा अशा पट्ट्यांतल्यान कुडींत वतना थंड आनी सुवासीक जाता. तशेंच पयलींच्या प्रासादांनी जायतेकडेन कारंजीं आसतालीं. ताकालागून हवेचें तापमान कमी जावन आर्द्रताय नियंत्रीत जाताली. रोमन लोकांनी २,००० वर्सांपयलीं थंडेच्या दिसांनी वण्टींत वा पारव्यांत शेगडेवरी वेवस्था बसोवन घरांतले हवेचें नियंत्रण केल्लें. इजिप्शियन लोकय वण्टींतल्या कुरकूटांत सैमीक बर्फ दवरून हवेचें तापमान कमी करताले. अशे तरेन पुविल्ल्या काळांतय वातानुकूलनाचे यत्न जाल्ले.

इ.स. १८४२ वर्सा जॉन गॉरी हाणें पीतज्वराच्या पिडेस्तांचेर उपचार करपाखातीर वातानुकूलनाचो उपेग केलो. एकोणिसाव्या शेंकड्याच्या अखेरेक हवा नितळ करप, तापमान कमी करप आनी आर्द्रता वाडोवप हांचेखातीर कापडगिरण्यांनी उदकाच्या फवाऱ्यांचो उपेग जालो. १९०६ च्या अदमासाक स्टुअर्ट डब्ल्यू. क्रेमर आनी विलिस एच्. कॅरिअर हाणीं वातानुकूलनाच्या मळार स्वतंत्रपणान म्हत्वाचें योगदान करून एअर कंडिशनिंग हो शब्दप्रयोग वापरांत

हाडलो. १९११ च्या अदमासाक कॅरिअर हाणें हवा आनी उदकाची वाफ हांच्या मिश्रणाचे ऊश्मगतिकीय गुणधर्म अभ्यासून वातानुकूल शास्त्राची बुनयाद घाली. कापड विण्टना सूत तुटपाचें प्रमाण कमी करून कापडाच्या उत्पादनांत वाड आनी ताच्या दर्जांत सुदारणा जावपाक वातानुकूलनाचे भोव आदार मेळ्ळो. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत रसायनीक प्रशीतकांचो सोद आनी यंत्रीक प्रशीतन धंद्यांतली प्रगती हांकांलागून वातानुकूलनाक चालना मेळ्ळी.

फुडारिल्ल्या देशांनी नव्यो इमारती बांदतानाच वातानुकूलन करपाचे नदरेन सोयी केल्ल्यो आसतात. कांय उत्पादन मळांचेर, चडकरून इलेक्ट्रोनिक कारखान्यांत, कांय रसायन कारखान्यांत तशेंच रंगीत छपाईखातीर वातानुकूलन गरजेचें आसता. रुग्णालयांतलो शस्त्रक्रिया विभाग, ल्हान भुरग्यांचो विभाग, काळजाविकाराच्या रुग्णांचो विभाग अशा बऱ्याच विभागांनी हवेची नितळसाण, तापमान, आर्द्रता हांचें नियंत्रण करप गरजेचें आसता. विमानां, जहाजां, रेल्वे, सभाघरां, उपहारघरां आदी जाग्यांनी फुडारिल्ल्या देशांनी वातानुकूलन गरजेचें मानतात. अशे तरेन आधुनिक काळांत वातानुकूलन अभियांत्रिकी हो यंत्रीक अभियांत्रिकेचो एक म्हत्वाचो विभाग जाला. वातानुकूलनाच्या वापराप्रमाण मुखेलपणान दोन प्रकार करूं येतात - १) मनशाक सुखदायक अशी वातावरणनिर्मिती करपी सुखदायक वातानुकूलन, २) उद्देगीक प्रक्रियेखातीर योग्य वातावरण निर्माण करपी उद्देगीक वातानुकूलन. ऋतुमानाप्रमाण वापरपांत येवपी वातानुकूलनाचे तीन प्रकार आसात. १) गिमाळी वातानुकूलन. २). शियाळें वातानुकूलन. ३). मिक्स वातानुकूलन.

**वातानुकूलन यंत्रणेचे प्रकार :** मध्यवर्ती वातानुकूलन यंत्रणा, आवेश्टित (एकात्म) वातानुकूलक आनी स्वयंपूर्ण (जनेलाक बसोवपाचो) वातानुकूलक अशे वातानुकूलकाचे स्थूल मानान तीन प्रकार वापरतात. सर्वसादारणपणान ४ टन (वराक १२,००० किलोकॅलरी) तांकीमेरेन स्वयंपूर्ण वातानुकूलक, ६.६ ते १५ टन (वराक २०,००० ते ४५,००० किकॅ. ) तांकीमेरेन आवेश्टित वातानुकूलन आनी सुमार ४० टन (वराक १,२०,००० किकॅ.) परस चड तांकीच्या वातानुकूलन प्रकल्पाखातीर मध्यवर्ती यंत्रणा वापरतात. सकयल दिल्ले आकृतींत मध्यवर्ती वातानुकूलन यंत्रणा दाखयल्ली आसा.

हे आकृतींत दाखयल्ल्याप्रमाण वातानुकूलन प्रकल्पांत वातानुकूलीन जागेंतले हवेंतली बरीच हवा परत वापरतात. वायुवीजनाखातीर लागपी हवा भायल्या वातावरणांतल्यान (१) ह्या प्रवेश मार्गांतल्यान घेतात. भायलो कोयर वा सवणीं भितर वोडचीं न्हय म्हणून ह्या मार्गाच्या तोंडाचेर जाळी बसयल्ली आसता आनी जाळयेचे भितर पट्ट्यांचें दार आसता. भितर येवपी हवेचें नियंत्रण पट्ट्यो कांय प्रमाणात वा पुराय बंद करून करपाक येता. बाह्य हवा - वाहिनी आनी परत येवपी हवा - वाहिनी हांकां पट्ट्यांचें दार बसोवन तातुंतल्यान वचपी हवेचें प्रमाण कमी - चड करपाक येता. भायली हवा आनी परत येवपी हवा हांचें मिश्रण (१) आनी (४) ह्या घटकांच्या मदीं आशिल्ल्या हवा मिश्रण कोठयेंत जाता हे हवेचें मिश्रण हवा - गाळणींतल्यान (४) धूल्लकणविरयत जाता. वातानुकूलीत जागेच्या उपेगाप्रमाण फाव ते तरेची गाळणी वापरतात. हवेचें सुरवातीचें तापन करपी पूर्वतापक (२) सगळयाच यंत्रणांत लागता अशें ना. शियादिसांनी जर भायले हवेचें तापमान उदकाच्या गोठणबिंदूपरस सकयल गेलें जाल्यार पूर्वतापकाचो उपेग करतात. पूर्वतापकांत नळयांच्या वलयांमदल्यान वाफेचें आनी नळयांभायल्यान हवेचें अभिसरण जाता. जायते फावट पूर्वतापक फकत बाह्य हवा - वाहिनीमदींच बसयतात. ताचेउपरांत बाश्पाचें प्रमाण कमी करपी निराद्रीकारक साधनांतल्यान (५) हवा वता. वातानुकूलन संयंत्रांतलो हो म्हत्वाचो भाग आसा.




**मध्यवर्ती वातानुकुलन यंत्रणा : हवा विभाग** - (१) बाह्य हवा प्रवेश मार्ग, (२) पुर्वतापक, (३) परतुपी हवा, (४) गाळणी, (५) निराद्रिकारक, (६) पुनर्तापक, (७) आर्द्रीकारक, (८) पंखो, (९) हवा वाहिन्यो, (१०) आनी (११) हवा क्षेपक/विसारक; **प्रशीतन विभाग** - (१२) प्रशीतन यंत्रणा; **जलविभाग** - (१३) पंप, (१४) जलवाहिन्यो, (१५) शीतक मनोरो; **तापन विभाग** - (१६) बाश्पीत्र आनी सहाय्यक साधनां, (१७) तापक नळ.

चडकरून संयंत्रांत हवेचें तापमान आनी आर्द्रता कमी करची पडटा आनी तेखातीर वेगवेगळया तरेचे शीतक वापरतात. निरार्द्रीकारकांतल्यान थंड उदक वा प्रशीतक हांचें अभिसरण जाता. प्रशीतनाखातीर प्रशीतन यंत्रणा (१२) वापरपांत येता. शिंयांच्या दिसांनी वा हवेंतलें संवेद्य उश्णतेचें प्रमाण कमी जाल्यार पुनर्तापकाचो (६) उपेग करून हवा तापयतात.

प्रशीतकांतल्यान भायर सरपी हवेची आर्द्रता वाडोवप गरजेचें आसलें जाल्यार बाश्पाचें प्रमाण वाडोवपी आर्द्रीकारक (७) वापरतात. उद्देगीक वातानुकूलनांत चड करून हाचो वापर करचो पडटा. तशेंच खंयच्याच वातानुकूलन यंत्रणेवयलो उश्णता भार थीर नासता. तो दिसांतल्यान वेगवेगळया वेळार वा वर्सांतल्या वेगवेगळया दिसा बदलत आसता. हो भार कांय अंशांनी आसलो आनी तातूंत वातानुकूलित जागेंतली सुप्त उश्णता कमी जाल्ली आसली जाल्यार वातानुकूलीत जागेंतली सापेक्ष आर्द्रता थीर दवरपाक आर्द्रीकरण (बाश्पाचें प्रमाण वाडोवपी प्रक्रिया) करची पडटा. आंशिक भार आसल्यार हवेच्या गुणधर्मांचें नियंत्रण करपाखातीर आनीक एक पद्दत वापरपांत येता. परत येवपी हवा- वाहिनीक मिश्रण कोठयेंत येवचेपयलीं एक उपमार्ग काडटात आनी कांय प्रमाणांत परत येवपी हवा वातानुकूलन यंत्रणा सोडून धाडटना ह्या उपमार्गांतल्यान व्हरून आर्द्रीकारका उपरांत वातानुकूलीत हवेंत मिसळटात. ह्या उपमार्गांत हवेचें प्रमाण नियंत्रित करपाक पट्ट्यांचो संदमक बसयल्लो आसता. पंख्याच्या (८) आदारान हवा वातानुकूलन यंत्रणेंतल्यान वोडून घेतात. तशेंच फाव ते गुणधर्म आशिल्ली हवा हवावाहिन्यांतल्यान (९) वातानुकूलित जागेंत वता. पंपाच्या (१३) आदारान जलवाहिन्यांतल्यान (१४) निरार्द्रीकारकांत थंड उदकाचें अभिसरण जाता. पूर्वतापक आनी पुनर्तापकांत नळयांच्या वलयांतल्यान गरम उदकाचें वा वाफेचें अभिसरण केल्लें आसता. गरम उदक वा बाश्प पुरवण करपाखातीर बाश्पित्र (बॉयलर) (१६) वापरतात. यंत्रणेंतली प्रशीतन संघनकामदली (बाश्पाचें उदकांत रूपांतर करपी प्रयुक्तीमदली) उश्णता ओडपी उदक थंड करून परत परत वापरपाखातीर शीतक मनोरो (वातावरणीय हवेचें अभिसरण करून उदक थंड करपी मनोऱ्यासारकी प्रयुक्त) (१५) वापरतात. आर्द्रतानियंत्रक आनी तापनियंत्रक हांच्या आदारान सापेक्ष आर्द्रता आनी सुकें तापमान हांचें नियंत्रण करपाक येता.

**हवा - शीतकांचे दोन प्रकार आसतात** -१) नलिका वलय शीतक आनी २) फवारो शीतक.

नलिका वलय शीतक : ह्या शीतकांत नळयांचीं वलयां आसतात. नळयांच्या भितरल्यान शीतकाचें अभिसरण करतात आनी भायल्यान हवेचो प्रवाह वता. शीतक म्हणून थंड केल्लें उदक वापरतात आनी उदक यांत्रिक प्रशीतन पद्दतीन थंड करतात. तातूंत बाश्प संपीडन (दाब दिवपाची क्रिया) आनी बाश्प शोशण ह्या दोनय पद्दतींचो उपेग करतात. कांय जाग्यांनी प्रशीतक द्रव्य प्रत्यक्ष नळयांनी आसता आनी त्या जाग्यांनी ताच्या बाश्पी भवनाक लागून भायले हवेंतली उश्णता काडून घेतात. ह्या प्रशीतकाचें तापमान २° - ३° से. परस कमी आसपाक जायना. शीतकाचे फाटलेवटेनच्यान हवा वता आसतना सगळीच हवा थंड जायना, जाल्यार तातुंतल्या कांय भागाचेर प्रक्रिया जायनासतनाच तो तसोच फुडें वता, म्हणून शीतकाची कार्यक्षमता, हवेचो वेग आनी वलयांच्यो चौकटी हांचेर आदारीत आसता. शीतकांतल्यान हवा वता आसतना पयलीं हवेचें तापमान कमी कमी जाता आनी आर्द्रता थीर रावता. उपरांत दवबिंदू इतकें तापमान जातकच हवेंतलें बाश्प उणें जायत वता. शेवटाक हवेचें तापमान शीतकाच्या तापमानापरस ३° - ४° से. चड आसता. तशेंच ते हवेच्या तापमानाक संतृप्तता स्थिती पावता. पूण शीतकाची कार्यक्षमता १००% नाशिल्ल्यान सापेक्ष आर्द्रता १००% नासून सादारण ९०-९५% इतकी जाता. शीतकाचें तापमान बदलून शीतकांतल्यान भायर सरपी हवेचें तापमान आनी सापेक्ष आर्द्रता बदलपाक येता. शीतकांत हवेचें तापमान कमी करूं येता आनी निरार्द्रीकरणय जाता.

फवारो शीतक : हे पद्दतींत थंड उदकाचे फवारे हवेंत सोडटात. हवा आनी शीतक हांचो प्रत्यक्ष संबंद येता. उदकाचो फवारो हवेचे दिकेक वा हवेचे उरफाटे दिकेक अशे दोनय प्रकार आसतात. उरफाटे दिकेच्या फवाऱ्याक चड सापेक्ष आर्द्रता आसता. जितको वेग कमी तितकी सापेक्ष आर्द्रता चड मेळटा. ७०-९० टक्क्यांमेरेन सापेक्ष आर्द्रता मेळटा. हातूंतच हवेचें तापमान कमी जावन आर्द्रतेचें प्रमाण कमी जाता. फवाऱ्याच्या उदकाचें तापमान वा प्रमाण बदलून हवेच्या तापमानांत बदल करपाक येता. उदकाच्या फवाऱ्याखातीर पंपाच्या आदारान उदकाचो दाब वाडयतात. हे प्रक्रियेंत वोलें तापमान थीर दवरून हवेंतली संवेद्य आनी सुप्त उश्णता कमी करपाक येता. फवाऱ्यांतले उदकाचे उश्णतेंत बदल जायना आनी ते थीर आसता. उद्देगीक वातानुकूलनांत ज्या जाग्यार सापेक्ष आर्द्रतेचें नियंत्रण अचूक लागता; पूण सुक्या तापमानाचें नियंत्रण इतकें म्हत्वाचें नासता अशा जाग्याचेर ही पद्दत वापरतात.

**वातानुकूलनाच्यो हेर पद्दती** - दोट्टी हवा - वाहिनी पद्दत : हे पद्दतींत दोन हवा - वाहिन्यांचो वापर करतात. एके वाहिनेंतल्यान थंड हवा आनी दुसरे वाहिनींतल्यान गरम हवा वातानुकूलींत जागेंत व्हरतात. वातानुकूलीत जागेंतल्या क्षेपकांत दोनय हवा - प्रवाहांचें मिश्रण जावन वातानुकूलित जागेंत हवा प्रवेश करता. हवेच्या गुणधर्मांचें नियंत्रण वातानुकूलित जागेंतच करपाक येता. ताका लागून एखादे व्हड इमारतीक ही पद्दत उपेगाची आसा. हातूंत वेगवेगळया कुडींचें नियंत्रण स्वतंत्रपणान करपाक येता.

स्वतंत्र नियंत्रण पद्दत - हे पद्दतींत दर एका वातानुकूलित जागेंत स्वतंत्र नलिका / वलय शीतक वा तापक आसात. तातूंत



ल्हान स्वयंपूर्ण वातानुकूलक संच : (१) प्रवेश दार, (२) गाळणी, (३) बाश्पकारक, (४) आनी (७) पंखे, (५) निर्गम दार, (६) संपीडक, (८) संघनक, (९) प्रवेश दार, (१०) निर्गम दार, (११) संदमक झडप, (१२) प्रसरण झडप.

प्रशीतिंत वा गरम उदक वापरतात. हवा थंड वा गरम करपाची यंत्रणा मध्यवर्ती आसता. उदकाचें आकारमान कमी आशिल्ल्यान नळयांचें आकारमान ल्हान आसता. हवा वाहिन्यांचें आकारमान त्यामानान खुबच व्हड आसता. हातूंत दर एका वातानुकूलित जागेचें स्वतंत्रपणान नियंत्रण करपाक येता.

मध्यवर्ती संपीडक आनी संघनक आशिल्ली पध्दत - वातानुकूलित जागेंत नलिका / वलय शीतकांत रसायनीक प्रशीतकाच्या बाश्पीभवनाकलागून हवा थंड जाता. द्रव्य प्रशीतक दर एके जागेक नळयांतल्यान दितात आनी बाश्प प्रशीतक संपीडक शोशून घेता. ताचो दाब वाडटा. संघनकांत तातुंतली उश्णता काडून घेवन ताचो द्रव करतात. शीतक वेवस्थेंतलो संपीडक आनी संघनक मध्यवर्ती जाग्याचेर बसयल्लो आसता. दर एका वातानुकूलित जागेंत प्रशीतकाचो दाब कमी करपावातीर आनी ताचें प्रमाण नियंत्रीत करपावातीर नियंत्रक झडप आसता. ताका लागून दर एक जागेंतले हवेचे गुणधर्म गरजेचे अशे जागच्या जाग्यारच थरपाक शकतात.

**ल्हान स्वयंपूर्ण वातानुकूलक संच** - ल्हान स्वयंपूर्ण वातानुकूलन संच पेटयेभशेन आसता.

हातूंत वातानुकूलित जागेंतली हवा पंरव्याच्या (४) आदारान प्रवेश दारांतल्यान (१) भितर ओडटा. हवा भितर येतना गाळणेंतल्यान येता देरवून ती शुध्द जाता. बाशपकारकांत (३) द्रव प्रशीतकाचें बाश्पीभवन जायत आसता. ताकालागून बाश्पीभवनाक लागपी उश्णता ताचेवयल्यान वचपी हवेंतल्यान काडून घेता आनी हवा थंड जाता. शुध्द आनी थंड हवा निर्गम दारांतल्यान (५) वातानुकूलित जागेंत परत वता. प्रसरण झडपेक लागून (१२) द्रव प्रशीतकावयलो दाब कमी जाता आनी प्रशीतकाचें प्रसरण जाता. संपीडक (६) बाश्प प्रशीतक बाश्पकारकांतल्यान शेशून घेता आनी ताचेवयलो दाब वाडयता. संघनकांत बाश्प प्रशीतकाचो द्रव जाता आनी प्रशीतकाचें प्रसरण जाता आनी परत प्रसरण झडपेकडेन येता. संघनकांत उश्णता काडून घेवपावातीर वातावरणांतली हवा पंरव्याच्या (७) आदारान प्रवेश दारांतल्यान (९) घेवन निर्गम दारांतल्यान (१) परत - वातावरणांत सोडटा. आकृतीवयल्यान पेटयेचे दोन भाग आसात म्हणपाचें कळटा. तातुंतली एक झडप (११) आसता. वायुवीजनावातीर भायली हवा घेवपाची आसल्यार तातुंतल्यान घेतात. बाश्पकारकाचो भाग वातानुकूलित जागेंत आसता, जाल्यार संपीडकाचो भाग भायर आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**वात्रटिका :** एक हलको फुलको विनोदी काव्यप्रकार. अस्तंती 'लिमरिक' ह्या पद्यप्रकाराचो मराठी अवतार म्हळयार वात्रटिका. सादारणपणान चार-पांच ओळींत चमचमीत विनोदी कल्पना वा चुटको वात्रटिकेंत आस्पावता. आशयाचे वा कल्पनाविस्ताराचे नदरेन केन्ना केन्नाय स ते आठ ओळींचीय वात्रटिका आसता.

ह्या काव्यप्रकाराचें मूळ जरी कोणाक खबर नासलें, तरी एम्. रसेल एस्. जे हाणीं लीअरिक (Learic) हें उतर एडवर्ड लीयरच्या नांवावयल्यान तयार केलां. ताचे वयल्यानच लिमरेक आयलें आसुंये. हो काव्य प्रकार आयरिश सैनिकांनी हाडलो, अशीय एक उपपत्ती आसा. हो मूळांत पोरनो फ्रेंच काव्यप्रकार आसुंये. तो आयरिश सैनिकांनी फ्रेंच झुजां सावन परततना १७०० च्या दरम्यान आयर्लंडांत हाडलो जावं येता. फ्रेंच आनी आयरिश सैनिक लिमरिक म्हण्टना एकठांय येताले. तातूंत तांच्यो बराकींत बऱ्योच लिमरिक काव्यरचना जल्माक आयल्यो. लिमरिक हें आयर्लंडचे अस्तंत देगेवयलें एक मुखेल बंदर. ह्या बंदरावयल्यान लिमरिक हें नांव आयलां, अशीय एक उपपत्ती आसा. लँगफर्ड रीडान ह्या शाराचेरय एक लिमरिक बरयल्या ती अशी -

All hail is the town of Limerick,
Which provides a cognomen, generic,
For a species of verse
which for better or worse,

Is supported by layman and cleric.

१७१९त उजवाडाक आयिल्ल्या 'मदर गुसेस मेलडीज् फॉर चिल्ड्रेन' ह्या भुरग्यांगीत झेल्यांत लियरिकचो उगम जाल्लो पळोवंक मेळटा. ताचे उपरांत 'द हिस्टरी ऑफ सिक्स्टीन वंडरफुल ओल्ड विमेन', (१८२१) आनी 'ॲनेक्डोट्स ॲन्ड ॲडव्हेंचर्स ऑफ फिफ्टीन जंटलमेन' (१८२२) हातूंत लिमरिक मेळटात. हो काव्यप्रकार कवी आनी चित्रकार एडवर्ड लिअरान (१८१२ - ८८) अदीक लोकांत प्रिय केलो. ताची काव्यरचना आनी चित्रसजावट आशिल्लो 'द् बुक ऑफ नॉन्सेन्स' (१८४६) हो प्रसिद्द लियरिक संग्रह आसा. तशेंच तांचो 'मोअर नॉनसेन्स पिक्चर्स', 'व्हाइम्स', बॉटनी एटसेट्रा' (१८७२) होय संग्रह लक्षणीय जावन आसा. बडबडगीत वा निरर्थिका (नॉन्सेन्स व्हाइम) हो काव्यप्रकार वात्रटिकेक सभावान बरोच लागींचो जावन आसा.

सादारणपणान लिमरिकचे पयले ओळींत मुरवेल सवंग, आनी फाटभूंय, दुसरे ओळींत कृती, तिसरे वा चवथे ओळींत कृतीचो विस्तार आनी पाचवे ओळींत 'तार्किक विक्षिप्तपण' (विचित्रपण) येता. देखीक एडवर्ड लीअरच्यो फुडल्यो ओळी पळेयात -

' There was an old man with a bread,<br>
who said, "It is just as I feared -<br>
Two Owls and a Hen,<br>
Four Larks and a Wren<br>
Have all built their nests in my beard"!

सादारणपणान लिमरिक ही पार्ट्यांनी म्हण्टाले. तातूंत सोयऱ्यांक काव्यरचना करपाक वा गावपाक आव्हान दिताले. दर एका कडव्या उपरांत 'कम अप टू लिमरिक' ही ओळ चोम्यास्वरांत म्हण्टाले. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक लिमरिकाच्यो जाहिर सर्ती जावंक लागल्यो. बुध्दीची अदीक चमक दाखोवपी निमणी ओळ बरोवप्याक व्हडली तस्त्रीप मेळटाली. लिमरिक हें उपहासाचें साधन आशिल्ल्यान म्हत्वाचे मनीस, संस्था, राजकारण, आनी दादलो - बायलसंबंध हांचेर वात्रटिका जाल्या. इंग्लिशींत रोसेटी, स्विनबर्न, रस्किन, वॉल्टर द् ला मेअर, टी.एस्. अलियट, डब्ल्यू. एच्. ऑडन हांचेसारके कवीनी हो प्रकार बरयला.

खरीं वात्रटिका हें ॲंगलो - अमेरिकन संस्कृतायेचे एक आंग आसलें तरी संवसारभरांतल्या बऱ्याचशा भासामदीं वात्रटिका जाल्ल्यो दिसता. वात्रटिका जरी लिखित रुपांत उपलब्ध आसल्यो, तरी तांचे मूळ रूप मौखिक आशिल्ल्यान ह्या युगांत लोककाव्याचो तो एक आधुनिक प्रकार जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**वात्सायन :** (इ.स.चो. तिसरो वा चवथो शेंकडो).

'कामसूत्र' ह्या ग्रंथाचो कर्तो. हाचें नांव मल्लनाग आनी गोत्राचें नांव वात्सायन आशिल्लें. तो गोत्र नांवानच नामनेक पावलो. अक्षपादाच्या न्यायसूत्राचेर भाश्य बरोवपी वात्सायन आनी कामसूत्रकार वात्सायन हे एकच आसपाची शक्यताय उक्तायतात. अक्षपादाच्या न्यायसूत्राचेर वात्सायनान न्यायसूत्रभाश्य बरयलें, ह्या भाश्याचेर उद्योतकारान न्यायवार्तिक बरयलें, आनी उद्योतकाराच्या न्यायवार्तिकाचेर वाचस्पति मिश्रान न्याय वार्तिकतात्पर्य टीका बरयली. वात्सायनाची चरित्रात्मक म्हायती चडशी मेळना. पूण कामसूत्रांतली एकूण मांडावळ आनी म्हायती पळेल्याउपरांत तो अस्तंत वा दक्षिण भारतीय आसूंक फाव, असो तर्क करपांत येता. ह्या दोन नांवांमदलें द्रमिल हें नांव तो दक्षिण वाठारांतलो आशिल्ल्याचें सुचयता.

वात्सायनाच्या कामसूत्रांत कामविशयक विचारांचो खोलायेन परामर्स घेतिल्लो आसा. फुडाराक बरयिल्ल्या काम शास्त्रविशयक बऱ्याचशा ग्रंथांक आदार थरिल्ल्या पोरन्या ग्रंथाचेर यशोधरान (तेरावो शेंकडो) बरयल्ली जयमंगला ही टीका प्रसिद्द आसा.

वात्सायनाच्या कामसूत्राचेर रिचर्ड बर्टन आनी एफ्. एफ्. आर्बथनटांन पयलो इंग्लिशींतलो अणकार आनी पयली इंग्लीश आवृत्ती 'द कामसूत्र ऑफ वात्सायन' १८८३त उजवाडा हाडली. तातूंत मूळ संस्कृत ग्रंथाचो इंग्लीश अणकार सात खिस्तीनी दिला. हे आवृत्तीक सर रिचर्ड बर्टन आनी एफ्. एफ्. आर्बथनट हाणीं प्रस्तावना बरयल्या. अणकारप्याचें नांव मात ह्या पुस्तकाच्या पयल्या आनी उपरांत भायर सरिल्ल्या दोनय आवृत्त्यांनी दिवंक नाशिल्लो. एस्.सी.उपाध्याय हाणीं केल्ल्या कामसूत्राचो इंग्लीश अणकारय प्रसिद्द आसा. ह्या ग्रंथाचो फ्रेंच अणकार पयलीं १८८५ वर्सा, तर जर्मन अणकार पयले खेपो १९०७ त उजवाडाक आयलो. हिंदी भाश्यासकट संस्कृत संहिता पयली १९२९त उजवाडाक आयली. बाळाचार्य माधवाचार्य खुपरेकार शास्त्री हाणें ह्या ग्रंथाचो मराठी अणकार जयमंगला हे टीकेच्या अणकारासकट उजवाडायलो. (श्री वात्सायन मुनिप्रणीत कामसूत्रम् - प्रथम भाग, १९३८) ह्या पयल्या वाट्यांत कामसूत्रांतल्या वट्ट सात अधिकारणांतलीं १ ते ४ पुराय रीतीन अणकारिल्लीं आसात. ह्या ग्रंथाचो गुजराती भाशेंतय अणकार जाला (१९३९).

- कों. वि. सं. मं.

पूरकनोंद : कामसूत्र

**वादळ :** वाऱ्याचो व्हड प्रमाणांतलो झोत. वातावरणांतल्या सैमीक बदलाक लागून कांय वेळा वाऱ्याचे झोत निर्माण जातात आनी ते थरावीक दिशेन प्रवास करून थरावीक वाठार व्यापतात. वेगवेगळ्या तापमानाच्या प्रमाणांतल्यान दर्याच्या उदकाचें जावपी बाष्पीकरण, ताचे वरवीं निर्माण जाल्लो असमतोल हवेचो दाब, विषम हवेचें प्रसारण आनी हेर पोशक वातावरणीय घटक वाऱ्याचो झोत निर्माण करपाक

कारणीभूत जाता. निर्माण जाल्लो कारणीभूत अशाच वातावरणीय तत्त्वानुसार केन्ना सरळ मार्गान तर केन्ना वक्र मार्गान तर केन्ना चक्री मार्गान. सर्वसादारणपणान वादळाच्यो चार अवस्था दिसतात. सुरवेची आरंभ अवस्था, हे अवस्थेंत हवेचो झोत निर्माण जाता. दुसरे गतीचे अवस्थेंत वाऱ्याच्या झोताक हवामानानुसार गती प्राप्त जाता. तिसरे विस्तार अवस्थेंत गतिमान वाऱ्याचो झोत वादळाच्या क्षेत्रांत पसरता आनी चवथे शांततेचे अवस्थेंत वादळाचे स्त्रोत खंडीत जाल्लें वा वादळाक आडखळ आयली जाल्यार वादळ शांत जाता.

सादारणपणान वादळांचे चार प्रकारांत वांटे घालूं येतात -

१) **प्रादेशिक वादळ :** ह्या वादळाची व्याप्ती थारावीक शिमीत प्रदेशापुरती उरता. वाऱ्याचें बळगें प्रभावी आशिल्ल्या कारणान वारें धूळ, रेंव आनी बारीक कण आशिल्लो कोयर घेवन व्हांवता. अशा वादळांक धुळिचीं वादळां म्हण्टात.

२) **शिमीत क्षेत्रीय वादळ :** ह्या वादळाच्या प्रकारांत गडगड्याचें वादळ, व्हड प्रमाणांतलें धुळी वादळ, ल्हान प्रमाणांतलें चक्री वादळ, भोवरी वादळ अशा वादळाचो आस्पाव जाता. ह्या वादळावांगडाच घोग्याचो पावस (उदक, बर्फ, गारो) पडटा. तेभायर कुपाचो गडगडाट, विजेचो चकचकाट जाता.

३) **उश्ण कटीबंधीय शिमीत क्षेत्रीय चक्रीवादळां :** वातावरणीय बदलाक लागून हवेंत एक उण्या दाबाचें क्षेत्र निर्माण जाता. ह्या क्षेत्राचो दाब एका थारावीक कमीत कमी बिंदुचेर पावलो म्हण्टकच हवेंत भोवऱ्यासारकी एक चक्राकार गती प्राप्त जाता. हीं चक्री वादळां भौतेक करून समुद्राचेर पांच ते वीस ह्या अंक्षाशीय पट्ट्यांत निर्माण जातात. उत्तर ध्रुवांत अशीं वादळां सादारणपणान जून ते नोव्हेंबर ह्या मौसमांत निर्माण जातात. पूण सप्टेंबर - ऑक्टोबर म्हयन्यांत तांचें प्रमाण चड आसता. दक्षिण ध्रुवांत तीं डिसेंबर ते एप्रिल काळांत निर्माण जातात आनी जानेवारी ते मार्च म्हयन्यांत तांचें प्रमाण चड आसता. ह्या चक्री वादळांक थळावीं नांवां आसात, तीं अशीं - हरिकेन (अस्तंती अटलांटिक महासागर), टायफून (अस्तंती पॅशीफिक महासागर), सायक्लोन (हिंदी महासागर, अरबी समुद्र आनी बंगालचो उपसागर), विलीविली (ऑस्टोलियाचो सागरी प्रदेश), समशितोश्ण कटिबंधांतलें अती विस्तृत क्षेत्रीय चक्रीवादळ (चक्रवात).

उच्च अक्षांशांत (दक्षीण ध्रुव अक्षांश ३५° ते ६५°) हवा थंड आनी सुकी आसता आनी तिची घनता चड आसता. हाच्या उरफाटें मध्य अक्षांशांत हवा उबदार आशिल्ल्यान तिची घनताय उणी आसता. सैमीक बदलाक लागून उणे घनतेचे हवेचो लोट चड घनता आशिल्ल्या हवेचेर कोसळटा. अशे परिस्थितींत थंय एक न्यूनदाबक्षेत्र निर्माण जाता. ह्या न्यूनदाबाची खरसाण वाडली की ताचें चक्रवातांत रुपांतर जाता.

वादळांच्या काळांत आनी विशेश करून चक्री वादळ आनी चक्री वातांच्या काळांत वादळाचे वाटेर येवपी जिवीताची तशेंच मालमत्तेची खूब हानी जाता. समुद्र हें वादळाचो उगम क्षेत्र आशिल्ल्या कारणान चक्री वादळांवरवीं आकांताच्यो वसाडी (लाटो) आनी नेटाच्यो भरत्यो निर्माण जातात. अशा वेळार सागरी वाहतूक करपी सगळे तरेच्या वाहनाची व्हड प्रमाणांत नाशाडी जाता तशेंच ताचे वरवीं दर्यादिगेवयल्या जिविताची आनी मालमत्तेची व्हड प्रमाणांत हानी जाता. भौतेक करून वादळावांगडा व्हडप्रमाणांतलो पावस पडटा देखून हुंवार, बुडटी येवन नुकसान करता.

वादळां ही व्हड प्रमाणांत नाशाडी करता आशिल्ल्यान आनी तांकां नश्ट करप मानवी तांकी भायलें जाल्ल्यान तांच्या विध्वंशी परिणामाचेर नियंत्रण दवरप इतलें मनशाच्या हातांत उरता. वादळाच्या परिणामाची उण्यांत उणी बादा लागची म्हणून जतनाय घेवपाची वेवस्था करप जाता. तेरवातीर हवेच्या दाबांचो आनी तातूंत जावपी बदलाचो अभ्यास करपी किनारी वेधशाळा काम करता. ह्या वेधशाळांनी हवामान संबंदीं तपशील एकठांय करप जाता आनी ताचेवरवीं वादळांची निर्मिती पयलींची अवस्था, ताची दिशा, वेग आनी क्षेत्रीय व्याप्ती हांचो अदमास मेळटा. ताच्या वांगडाच कृत्रीम उपग्रहाकडल्यानय हे संबंदीं म्हायती घेवपाची वेवस्था जाल्या. वादळांची सुलूस आदीं लागली म्हण्टकच वादळांक तोंड दिवपाची पूर्वतयारी तशेंच जतनाय घेवपाची सवलत मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

## वादिराज तीर्थ : (इ.स.चें. १५वें शतमान).

एक प्रकांड पंडित आनी माध्वमताचो एक व्हड आचार्य. माध्वसंप्रदायांत श्रीमध्वाचार्या उपरांत मुखेलपणान ताचेंच नांव घेवप जाता. कर्नाटकांतल्या मंगलोर जिल्ह्यांतल्या हुविनकेरे ह्या गांवांत ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचें नांव रामाचार्य आनी आवयचें नांव गौरम्मा अशें आशिल्लें. ताचें मुळचें नांव वराह अशें आशिल्लें. वगीशतीर्थान ताका मुज जाल्या उपरांत आपल्या मठांत घेतलो आनी ताका संन्यास दीक्षा दिवन वादिराजतीर्थ अशें नांव दिलें.

कांय दिसांभितर वादिराजान वेद- वेदांगां, सुत्रां आनी दर्शनां हांचो अभ्यास केलो. त्या काळांत माध्वमताक देवती कळा लागिल्ली. वादिराजान जायत्या मळार भोंवडी करून उपदेशान आनी ग्रंथनिर्मीती करून माध्वमताक तेज हाडलें. तो जसो पंडित आशिल्लो तसो व्हड योगीय आशिल्लो. ताणें तीर्थप्रबंध ग्रंथ बरयतकच माध्वमताचे अनुयायी ताका गुरूराज म्हणूंक लागले. ताणें उडुपीच्या आठ्य मठांतली पुजेची पद्दत आनी तिचे नेम - उपनेम तयार करून मठांची नवी वेवस्था सुरू केली.

संस्कृत भाशेवरीच कन्नड भाशेचेरय ताचो पगडो आशिल्लो. ते भाशेंत ताणें लारवांपरसय चड पद्यरचना केल्यात. ताच्या कन्नड

ग्रंथांत वैकुंठवर्णन, गोंडक्रिया, सुळादिगळू, साविरारू, कीर्तनेगळू, लक्ष्मीशोभन आदी ग्रंथांतलीं पदां आजय कर्नाटकांत लग्नावेळार गायतात. बायलांखातीर आनी कमी जातीच्या लोकांखातीर ताणें कांय भक्तीगीतांय बरयल्यांत. तातुंतल्या गुरूराजीय सुधाटिप्पणी, तत्वप्रकाशिका, तीर्थप्रबंध, गुरूवार्तादीपिका, प्रमेयसंग्रह, पाषंडमतखंडन, श्रीकृष्णस्तुती ह्या ग्रंथांक नामना मेळ्ळी. हांचेभायर ताणें शास्त्रग्रंथ, टीका-टिप्पणी, कवितां झेले, विमर्शग्रंथ, स्तोत्रां अशे ७१ ग्रंथ संस्कृतांत बरयल्यात. फुडें तो सोंदे ह्या गांवांत गेलो आनी थंय ताणें नवो मठ निर्माण करून तातूंत कृष्णमूर्तीची प्रतिश्ठापना केली. थंय उपासना आनी उपदेश करितच आपली जीण सारायली. वादिराज हो कर्नाटकांतल्या व्यासकूट आनी दासकूट ह्या दोनय संघांत प्रिय आनी पुज्य आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**वादिराज सूरी :** (इ.स.चे. ११ वे शतमान).

दिंगबर जैन संप्रदायांतलो एक श्रेश्ठ आचार्य. हाच्या जिवीताविशीं व्हडलीशी म्हायती मेळना. तो मतिसागर मुनीचो शिश्य आशिल्लो आनी द्रविड जैन संघांतल्या नंदिसंघांतलो अरुंगळ शाखेचो आचार्य आशिल्लो.

वादिराज ही ताची पदवी आसा. पूण फुडें तेंच ताचें नांव जालें. तो जायत्या शास्त्रांत पारंगत आशिल्लो. एका शिलालेखांत ताची तुळा अकलंकदेव (जैन), धर्मकीर्ती (बौध्द), बृहस्पती (चार्वाक) आनी गौतम (नैयायिक) हांचेकडेन केल्ली आसा. ताका षटत्र्कषण्मुख, स्याद्वादविद्यापती आनी जगदेकमल्ल अशोय पदव्यो आशिल्ल्यो. वादिराजसुरीन बरयल्ले जे पांच ग्रंथ उपलब्ध आसात ते अशे -
१) पार्श्वनाथचरित : हें बारा सर्गांचें महाकाव्य आसा. ताणें तें चौलुक्य चक्रवर्ती जयसिंहदेव हाचे राजधानींत, ताचेच प्रेरणेन बरयलें २) यशोधरचरित : हें चार सर्गांचें खंडकाव्य आसा. ३) एकीभावस्तोत्र : ह्या स्तोत्रांत पंचवीस पद्यां आसात. ह्या स्तोत्राचें स्तवन केल्ल्यान वादिराजाक जाल्लो कुश्टरोग ना जालो अशें सांगतात. दिगंबर जैन लोकांक ह्या स्तोत्राविशीं खूब आदर आसा. ४) न्यायविनिश्चयविवरण : प्रत्यक्ष, अनुमान आनी आगम ह्या प्रकरणांत वांटिल्ली, अकलंकदेवाच्या न्यायनिश्चय ग्रंथावयली ही विस्तृत टीका आसा. जैन न्यायाच्या नामनेच्या ग्रंथांत ह्या ग्रंथाची गणना जाता. हातूंत वीसहजार श्लोक आसात. भारतीय ज्ञानपीठ (काशी) हे संस्थेन हो ग्रंथ उजवाडाक हाडला. (५) प्रमाणनिर्णय : हो एक ल्हानसो पूण स्वतंत्र ग्रंथ आसून ताचें प्रमाण, प्रत्यक्ष, परोक्ष आनी आगम अशे चार अध्याय आसात. माणिक्यचंद्र जैनमाळेंत हो ग्रंथ उजवाडाक आयला. हाचेभायर काकुत्स्थचरित, अध्यात्माष्टक आनी त्रैलोक्यदीपिका हे ग्रंथय वादिराजाचे आशिल्ल्याचें सांगतात.

वादिराजाची परंपराही मठपतींची परंपरा आशिल्ली. हे परंपरेंत दान घेवप जातालें तेचवांगडा दान दिवप जातालें. हे मठपती जिनदेवळां तयार करताले. तांचो जिर्णोध्दार करताले आनी हेर मुनींची खावपा-जेवपाची वेवस्थाय करताले.

- कों. वि. सं. मं.

**वाद्य आनी वाद्य वर्गीकरण :** वादनांत संगीत ध्वनी निर्माण करपी मानवनिर्मीत साधन. वाद्यांत ध्वनीच्या दोन अवस्थांतल्यान एक निर्णायक स्वर भायर पडटा. पयले अवस्थेंत वाद्याच्या एका भागाचेर आघात करतकच ताच्या कंपनापसून ध्वनी निर्माण जाता. वाद्याचो सहकंपक ह्या ध्वनींत उक्तो करून पातळटा. संगीत स्वर हे फकत शुध्दस्वर नासता तर शुध्द स्वर आनी संवादी स्वर हांचें तें मिश्रण आसता. कंपनांतल्यान दोनय स्वरांची एकाच वेळार निर्मिती जावन संगीत लय बरे तरेन साधना. स्वरांची उचाय कंपन वेगा प्रमाण थारता. कंपनांच्या तिव्रतेच्या मापान स्वराचें सप्तक मेजतात. जशी कंपनाची तिव्रता वाडटा तशेतशे सप्तकांची उंचाय वाडटा. सह कंपकाच्या आकाराचेर तार वा स्वर थारता. सह कंपक आकारान व्हड आसता तर मंद स्वर येतात आनी आकारान ल्हान आसत तर तार स्वर येतात. स्वर निर्मितीच्या ह्या शास्त्राक धरून वेगवेगळया वाद्याचे आकार, स्वरूप, घडसाण थारायल्या.

**इतिहास :** आयच्या काळांत वाद्याचो वापर मुखेलपणान मनोरंजनात्मक संगीत निर्मितीखातीर जाता आसलो तरी वाद्य निर्मितीच्या इतिहासाचे सुरवेक वाद्य निर्मिती फाटलें प्रयोजन खात्रीपुर्वक स्पश्ट जायना. अर्वाचीन अशे भौतेक सोद सादृश्य अशा अकस्मात घडणुकांनी जाल्ले दिसतात. लांकडाचो लोळगो देंवतेवयल्यान घुवंत चलपा वयल्यान जसो चक्राचो सोद आदी मानवाक लागलो तशेच तरेची प्रेरणा वाद्या संबंदांत मेळपाची शक्यता चड दिसता. मनशाच्या सैमीक आवाजाची निर्मिती पशु - पक्षाचे आवाज वा वाऱ्याक लागून रानांतल्या झाडांतल्यान निर्माण जाल्ले वेगवेगळे आवाज हांचेवयल्यान आदी मानवाक स्वर वाद्याची कल्पना आयली आसूं येता. धोणवाचे दोरयेर जावपी टणत्कार पळोवन तंतूवाद्याक चालना मेळ्ळया आसूं येता. तशेंच दोन अवयव वा दोन वस्तू एका मेकाचेर आपटातकच जो आवाज निर्माण जालो ताचेवयल्यान लय वाद्याची कल्पना येवप स्वभावीक दिसता. आयच्या प्रमाण वाद्याचो उपेग आदल्या काळांत करमणुके पुरतोच जातालो म्हणप बरोबर जायना. मनीस कुळयेचे संस्कृतीची वाटचाल पळेल्यार आदल्या काळांत वाद्यांचो उपेग सदच्या जिविताच्या हेर गरजेच्या वेव्हाराखातीर जातालो म्हणपाक चड वाव मेळटा. सावदांक वा शत्रूंक भिवोवपाखातीर, संदेश (कळोवणी) धाडपाखातीर वा युध्द प्रसंगार विरश्री निर्माण करपाखातीर ह्या तत्कालीन गरजेच्या उद्दिश्टां खातीर वाद्याचो उपेग जाला जांव येता.

उपरांत समृध्दीच्या काळांत वाद्याचो उपेग धर्मीक विधींखातीर आनी ताचे उपरांत निव्वळ करमणुकीखातीर असो वाद्याच्या उपेगाचो क्रम लावं येता. उपरांतच्या काळांत करमणुकीभायल्या उद्दिश्टांखातीर हेर उपाय उपलब्ध जाल्ल्या कारणान वाद्याचो उपेग मनोरंजनापुरतो शिमीत उरलो.

**वाद्याचें वर्गीकरण :** वाद्य निर्मितीच्या घटकांनुसार आनी वाद्य हाताळपाच्या रितीनुसार वाद्यां पांच वर्गांत वांटू येतात - १) तंतु वाद्य - तारो छेडून वाजोवपाचें वाद्य २) चर्म वाद्य - चामडयाचो वापर जाल्लें वाद्य ३) घन वाद्य - दोन घन वस्तूंच्या घर्शणांतल्यान वाद्य स्वर निर्मुपी वाद्यां ४) सुषिर वाद्यां तोंडांतल्यान हवा सोडून स्वर काडपी वाद्यां ५) अश्मवाद्यां (संगीत निर्मुपी देवळाचे खांबे), ६) स्वयंचलीत यंत्रीक वाद्यां.

उपेगाप्रमाण वाद्यांचे लय वाद्यां, स्वर वाद्यां, स्वतंत्र वाद्यां, साथी वाद्यां, समुह वाद्यां धर्मीक वाद्यां, झुजा वाद्यां, लोकवाद्यां, अभिजात वाद्यां आदी वाद्यांचे प्रकार जातात.



**भारतीय वाद्यां :** भारतीय वाद्यांचो उल्लेख वैदीक काळापसून जाल्लो मेळटा. ब्रह्मसुत्रांत बाण, नंदी ह्या प्रसंगाक वाजोवपाच्या दोन वाद्यांचो उल्लेख मेळटा. तशेंच हेर वाङ्मयांत शततंत्रीय विणा, कांड विणा, दुंदुभी हांचो उल्लेख मेळटा. मनुस्मृती, रामायण महाभारत हातुंतय जायत्या वाद्यांचो उल्लेख आयला. तशेंच बौध्द, जैन ग्रंथांतय वेगवेगळ्या प्रकारच्या विणांसयत जायत्या वाद्यांचो उल्लेख आसा. भारतीय वाद्यांचे ढोबळपणान तीन प्रकार करूं येतात -

**अभिजात वा शास्त्रीय संगीत वाद्यां :** अ) तंतू वाद्यां - ताऊस क) दिलरुबा ऊ) रबाब स) सूर शिंगार, सूरबहार स्वरबत, स्वरमंडल विचीत्र विणा, गोडुवाद्यम, सारंगी, सतार, संतूर, तुणतुणें आनी खास शास्त्रीय संगीताखातीर तयार केल्ल्यो विणा.

**घनवाद्यां :** १) जलतरंग २) काश्टतरंग ३) काच तरंग ४) मोरशिंग ५) ताळ ६) झांज ७) कांसाळें ८) घांट ९) घुंगरू १०) टिपऱ्यो ११) चिपळयो.

**तालवाद्यां :** १) परववाज २) तबलें ३) मृदंग ४) खंजरी ५) धोल ६) तासो ७) शामेळ ८) संबळ ९) डफ १०) डमरू ११) नगारो १२) चौघुडो १३) घटम.

**सुविरवाद्यां :** अलगुज, पावा, बांसरी, मुरली, वेणु, शेनाय, सूर्त, शिंग, नागस्वरम, शंख, तुतारी पुंगी.

**हेर देशांतलीं वाद्यां :** चिन - पिएन चिंग, युंताय (मुरली), है - लो (शंख), पिएनथचुंग (घंटावाद्य) सिआओबो - ल्वो (तास) सिआओ - तउंग - क्यो (तुतारी) च्यीन, सान - युसिएन, यू - च्यीन आनी यांग - चिन चू (आघातवाद्य), यू (घर्षणवाद्य), मू- यू (लांकडी ड्रम), शू - पात, पाई चूसिआओ, ताय, सो - ना, शेंग, यिंग - कू त्सू - कू, टाओकू, पँग - कू, चूसूआन (फ्ल्यूट).

**जपान :** कोतो, शामिसेन, कोकियु, बिवा, (तंतूवाद्यां) तुये, टेकी (बांसरी), रापा (तुतारी), शो, हिचिरिकी (सुषिरवाद्यां), ताइको, मोविकन दो - को (तास), निहोआयहागी (झांज).

**कोरिया :** हेंग ताय (बांसरी), सेइंग, कोमुंको, यांग - गो तेभायर हेर खुबशीं वाद्यां चिनी वाद्यांवरीच आसात.

**व्हिएतनाम :** कै नाय (शूल वाद्य), कै दान दे कै काप के (घनवाद्य), कै थिऊ कान (घंटा तरंग), कै सिन (घर्षणवाद्य), कै चुम चुआ (झांजेवरी), कै बॉन (मृदंगावरी), कै केम (शेनाय), कै - ओंग - दिख (आडवी बांसरी), कै - साओ (उबी बांसरी).

**लाओस :** सो -इ, सो - यू (शुल वाद्यां), पि - आह (तंतुवाद्य), खोंग - नाई (घंटा तरंग), खोंग - याट, टॅफोन (चर्मवाद्यां), खुई, खेन (सुषिर वाद्यां).

**ख्मेर :** सा - दियू, तारवे (मगरीच्या आकाराचें वाद्य), चा पै थाँग (तंतुवाद्य), खोंग हुई, खोंग थोम (घंटावाद्यां) ख्लोई (आडवी बांसरी) सा - न्याय (नासिक वाद्य), पि - शभाई (सुषिर वाद्यां), सॅफोर, स्कोर - थॉम.

**थायलंड :** पि, पि नाई (सुषिर वाद्यां), चारवे, सा - घ्रूलंग, सा - ताई, सो - लुआंग शूल आनी तंतू वाद्यां, सैंग - वैंग (तबला - तरंग), चॅप (झांजो).

**इंडोनेशिया :** गेमलान, जेंडेर (धातुतरंग वाद्यां) रेजाँग बोनांग - रेयांग (घंटावाद्यां), ग्रांतांग आनी चोएंगक्लिक (काश्ठतरंगवाद्यां), सेलोमप्रेस (शेनाय), सुलिंग (बांसरी), संतो, केतोंएंग - केतोएंग (बांबूचें झिथर), रबाब (सारंगी वरी वाद्य), क्रोमो

(अश्म तरंग), को - चोंग (गिटार), पि - चबार (शेनाय), पिब - पिब, चेलेपुंज.

**मलेशिया :** सालुंढी, सोरोव (काश्ठतरंग), साबांग (घनवाद्य), सानदाऊ (कोंड्याचें अलगज), साफे, सासते (दोन नळयांचें सुषिर वाद्य), सासते अकिंश (मोरशिंग), सांग - तोंग.

**ब्रह्मदेश :** हांग्गा, घंटा, काश्ट, धातुतरंग आदी वाद्यप्रकार आसात. त्रा (व्हायोलिन), पि क्रॅप, पि सून (बांसरी), सा दिऊ (शूल व्हायोलीन), चैंग - वैंग (अवनध्द तरंग), मेगियाँग (घर्षण वाद्य), पताला (कोंड्याचो काश्ठ तरंग), या स्विन, तान हिन (झांजो), पि - बत.

**तिबेट :** पि - वंग (लांब दांड्याचे ल्यूटावरी), रकात - दून (तुतारीवरी), पि - पि (ल्युटावरी), ग्लिन - बू (सुषिर वाद्य), रटया - ग्लिन, रनगा - चून.

**श्रीलंका :** होरानाबा (ओबोसारकें), कोंबोने (हॉनावरी), डौबाला (डमरुवरी), टम्मीटम (डफावरी), रावणी, उडकिआ (मृदंगावरी अवनध्द वाद्य), ताल्लीआ, रावणहस्त, वेणावाह (तंतुवाद्य).

**ईजिप्त :** नोफ्रे वा नेफेर, बिंत (सारमंडलावरी), तनबुर वा सिमसिमीया, किस्सोर, इबा, सेशेशेल, औलुस मेमेट, फोटींक्स (सुषिर वाद्यां) दाराबुरव, डफ, बाझ, तब्ल, क्रोटाला, अर्घुल, झुमारा, ने.

**अस्तंती वाद्य :** तंतुवाद्यां - व्हायोलीन (चॅलो डबल बेस), व्हायोल, लायरा रॅबेक, ल्युट, गिटार, सिटर्न, हार्ष, मॅन्डोलीन बॅन्जो, साल्ट्री, जिथर, ढालसीमर

**कळफलक वाद्यां :** पियानो, क्लेविकोल्ड, हार्ष सिकोर्ड.

**सुषिर वाद्यां :** फ्ल्यूट, रिकोर्डर, पिकोलो, शॉंग, ओबो, बसून, सॅक्स फोन, बेगपायपस, क्लेरिनेर, कार्नेट, ब्युगल, ट्रोमबोन, ट्रमपेट, हार्मोनियम, ऑर्गन, माऊथ ऑर्गन.

**लयवाद्यां :** ड्रम्स, टॅबर, टॅम्बरीन, टिंपनी.

**घनवाद्यां :** सिंम्बलस, कॅस्टनेट्स, ट्रेंगल्स झायलो फोन, मारिंबा, ब्लॉकेनस्पियल, ट्युवाफोन, ॲनव्हील बॅल्स, ट्युबबॅल्स, म्युझिकल बॅल्स, म्युझिकल ग्लासस.

**विद्युत् वाद्यां :** इलेक्ट्रीक गिटार, ल्हार्यालिंग, व्हायोलिन न्युयोबॅरव स्टाइन पियानो, थॅरेमिन, ट्राउटोमियम, होंड म्युझिकल हॅमंड इलेक्ट्रीक ऑर्गन, प्लेव्हिओलिन आनी सोलो हॉक्स.

मानवी संस्कृतायेचे उदरगतीचे वाटचालींत संगीत ह्या कला अविश्काराक एक आगळें स्थान प्राप्त जालां. धर्मीक प्रसंग ते निव्वळ करमणूकीचे कार्यक्रम वा संगीताच्यो सर्ती अशा विस्तारीत उद्दिश्टांक संगीताची परंपरा अखंडपणान चलत आयल्या. तातूंत भजनां, किर्तनां, अशो धर्मीक कार्यावळी, नाटक, सिनेमा अशो निव्वळ मनोरंजनात्मक कार्यावळी आस्पावतात आसल्यो तरी दोनयकडेन संगीत साधना आसता. आधुनिक काळांत जावपी संस्कृती संगमांतल्यान प्रदेश, धर्म, भाशा, हे बंध हुंपून सवसारांतल्या सगळया संगीत प्रकारांमदीं आदान प्रदान बऱ्याच प्रमाणांत जावंक लागला. ताका लागून अस्तंत, उदेंत अशे भेद आदल्या इतके खर उरूंक ना. बरींचशीं मूळ अस्तंत वाद्यां उदेंत संगीतांत आस्पावन गेल्यांत. त्याप्रमाण मूळ उदेंत वाद्यांचो वापर अस्तंत संगीतात जावंक लागला. उदेंत आनी अस्तंत संगीताचें मिश्रण करून एक नवोच संगीत प्रकार मुखार हाडपाचो प्रयोग चलता. तातूंत दोनय कडच्या वाद्यांचो सुमेळ साधपी असो वापर जावंक लागला.

- कों. वि. सं. मं.

**वानर - (१) :** (पळेयात माकड).

**वानर - (२) :** मध्य प्रदेश आनी विंध्य प्रदेशांत रावपी एक आदिवासी जमात. गोरेशियो, व्हीलर हे विद्वान, वानरांक दक्षिण भारताच्या पहाडी प्रदेशांत दक्षिण भारताच्या पहाडी प्रदेशांत रावपी अनार्य जमात मानतात. मन्मथराय हाच्या मताप्रमाण, वानर हे भारताचे मूळ निवासी व्रात्य. उत्तरेंत आर्यांचो प्रभाव निर्माण जातकच ते थंयसावन भायर सरले आनी विंध्य पर्वत देंवून दख्खनच्या पठाराचेर येवन वसले. रामस्वामी शास्त्री तांकां आर्यच मानतात. विंध्य पर्वत हुंपून आयिल्ल्यान तांचो मूळ आर्य जातीकडे संबंद तुटलो, पूण आर्यांचे संस्कार तांचेर उरले. फुडें दशरथी रामाच्या काळांत तांचो आनी आर्य लोकांचो परतून संपर्क निर्माण जालो. तेउपरांत ते विंगड विंगड क्षेत्रांनी आपली उदरगत करूंक लागले. वानरांक अनार्य मानपी अभ्यासकांच्या मतान दंड नांवाच्या आर्य राजान दक्षिण भारताचेर जैत मेळयल्या उपरांत हे अनार्य सगळया वटांनी आर्यांच्या प्रभावा सकयल आयले आनी ताणीं आर्यांचे रितीरिवाज आपणायले. रामायणांत वर्णन केल्ले वानर म्हळयार जनावरां नासून मनीसच आशिल्ले हे विशीं सगळया जाणकारांचें एक मत आसा. चिंतामणराव वैद्य हाच्या मतान हे लोक वानराभशेन दिसताले म्हणून लोक तांकां वानर म्हणूंक लागले.

पुर्विल्ल्या भारतांत जीवयोनीच्या नांवाचेर वळखुपी वानरांभशेनच नाग, ऋक्ष, गृध्र, काक अशो जमाती आशिल्ल्यो. पूण उपरांत तांकां तिर्यग् योनींतले जीवच मानले आनी करणी मनशाची आनी नांवां मोनजातीचीं ह्या स्वरुपांत तांकां आपणायले. रामायणांत वाल्मिकीनय तेंच केलां. रामायणांतले वानर हे एकाच वेळार पशूय दिसतात आनी मनीसय दिसतात. वाल्मिकी उपरांतच्या कवींनीय तांचें तशेंच वर्णन केलां. पयलींच्या काळांत कांय जमाती पशू, पक्षी वा रूख हांची देवता म्हणून पुजा करताले वा एकाद्रे मोनजातीक आपलें जातीय चिन्न मानताले. वानर लोकय वानरपूजक आसुंये वा जैन

पुराणांत वर्णिल्ल्याप्रमाण ते जमातीचो ध्वज वानर चिन्न आशिल्लो आसुंये.

छोटा नागपूर हांगा वास्तव्य आशिल्ल्या उरांव आनी मुंड ह्या आदिवासींभितर तिग्गा, हलमान, बजरंग आनी गडी अशीं गोत्रां आसात. ह्या सगळयांचो अर्थ वानर असोच आसा. तशेंच रेद्दी, बरई, बसोर,मैना आनी खंगार ह्या जमातींनीय वानरसूचक नांवां मेळटात. सिंगभूम हांगाची भुईया जमात आपूण हनुमंताचे वंशज आशिल्ल्याचें सांगता.

वाल्मिकीरामायण ह्या ग्रंथांत वानर जमातीची म्हायती मेळटा ती अशी - हे लोक बळिश्ठ आशिल्ले. इंद्रजाल जाणपी, वाऱ्याभशेन गती आशिल्ले, नीतिज्ञ, बुध्दिमान, पराक्रमी, शस्त्रास्त्र कुशल आनी दिव्य शरीर आशिल्ले. कामरुपी म्हळयार इत्सेप्रमाण रूप घेवपी. वानर आपले दांत आनी नाखटां हांचो शस्त्र म्हणून उपेग करताले. तांचो वर्ण पिंगसो. कांय जाणांचें तोंड तांबडें आसतालें. शारिरीक आनी मानसिक चपळताय हें वानरांचें खाशेलपण. तशेंच तांकां रोकडो राग येतालो. हेरांक तुकलावप, चाळोवप हो तांचो स्वभाव. उमेदीची गजाल घडल्यार उमेदीन नाचप पूण संकश्ट आयल्यार ते रोकडेच भियताले. आदार नाशिल्ले दुबाव, पिशेपणाचें भिवकुरेंपण, आनी स्वभावसिध्द सादें - भोळेंपण हाचें एक चमत्कारीक मिश्रण तांच्या स्वभावांत दिसतालें.

ह्या लोकाचें सदांच टोळयो करून भोंवप. टोळयेचो मुखेली करता तीच गजाल हेरांनी करप. वानरांचो पराक्रम तांच्या मुखेल्याचेर आदारिल्लो. मुखेली जितको धाडसी आनी पराक्रमी ते प्रमाण वानर वागताले.

किष्किंधा हें वानरांचें सत्ताकेंद्र आशिल्लें. सुग्रीव किष्किंधेचो राजा. हांगा हजारांनी वानर सुग्रीवाचे अनुचर म्हणून रावताले. तेचभाशेन हेर पहाडी प्रदेशांनी, व्हड व्हड रानांनी, न्हंयेच्या वा दर्याच्या देशांनी तांच्यो वसणुको आशिल्ल्यो.

रामायण काळांत वानरांची संख्या बरीच मोठी आसुंये. तांचें हें बळगें पळोवन रामान आपल्या कार्याखातीर वानरसेनेचो उपेग जावचो ह्या हेतान सुग्रीवाकडे इश्टागत केली. सुग्रीवान ज्या वानर - मुखेल्यांक रामाकडे पाचारण केल्ले तो आर्यप्रदेशांचे उदेंतेक आनी उत्तरेक रावपी आदिवासी आशिल्ले.

वानर समाजाची हरिगण ह्या नांवान नामना आशिल्ली. ह्या हरिगणाच्यो ऋक्ष, गोलांगूल आनी वानर अशो तीन शाखा आशिल्ल्यो. वानरसमाज कितल्याशाच संघांनी वा टोळयांनी विभक्त आशिल्लो. ह्या टोळी मुखेल्याक यूथप म्हव्टाले. दुर्धर, केसरी, गवाक्ष आनी नील हे नामनेचे यूथप. तांचेवयर संनादन आनी जांथवान हे - महायूथपय आनी ह्या सगळयांपरस वयर महायूथपयूथप नियंत्रण दवरतालो.

रानांत वास्तव्य आशिल्ल्यान वानर लोक फळां आनी मुळां ह्या सैमीक आहाराचेरच आपलें पोट भरताले. झाडा - पाल्यांच्या वखदांचोय तांकां बरोच परिचय आशिल्लो. फुलां, चंदन आनी उटणी हांचो तांकां बरोच घोस्त.

तांचें वर्तन सभ्य. शिश्टाचार आनी सोयऱ्या - धायऱ्याचो भोवमान तशेंच जाण्टया मनशाक ते खूब मान दितालें. तांणी आर्यांची धर्मीक पद्दत आपणायल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

## वामन पंडित : (जल्म : इ.स.चो. १७ वो शेंकडो).

एक अग्रगण्य मराठी पंडितकवी. प्राचीन कवी श्रीधर, महिपती, मोरोपंत, उध्दवसुत हांणी वामनाचो गौरव केला, पूण ताच्या चरित्राविशीं कांयच उल्लेख करूंक ना. कांय अभ्यासकांमदीं ताचेविशीं खूब मतभेद आसात. स्थूलमानान ताच्या चरित्राविशीं म्हायती मेळटा ती अशी - वामन पंडित ऊर्फ वामनस्वामी हो शेष घराण्यांतलो देशस्थ ऋग्वेदी, आश्वलायन शाखेचो ब्राह्मण आसून ताचें गोत्र वसिष्ठ म्हळयार पराशर आशिल्लें. तो नांदेडाक रावतालो पूण ताचो जल्म विजापुरीक जालो आसूं येता. ताच्या बापायचें नांव तानाजी आनी ताचे बायलेचें नांव गिराबाई आशिल्लें. ताचो आजो विजापुरांत शाही ग्रंथालयाचो ग्रंथपाल आशिल्लो. पुरोयतपण आनी इनामां हांचें वामनाक उत्पन्न आशिल्लें. ताचो चुलतो शिवपंडित हाका भुरगेपणांतच मरण आयिल्ल्यान आज्याची सगळी संपत्त वामनाकच मेळ्ळी. वामन पंडित संपन्न आनी सधन आशिल्लो. ताका रघुनाथ, काळोपंत, श्रीधर, अनंत, कोणेर आनी त्रिंबक अशे ६ भुरगे जाले. फुडें वामनाची काव्यपरंपरा रघुनाथान चलयली. वामन भुरगेपणांतच खूब बुध्दिमान आशिल्लो. ताका फारसी भास बरी येताली. विद्याभ्यासाखातीर तो काशीक गेलो आनी थंय जायत्या शास्त्रांचो अभ्यास करून नांदेडाक परतलो. उपरांत पारमार्थिक अणभव घेवपाखातीर भोंवता आसतना तो रामदासस्वामीच्या सांगातांत आयलो. थंयय समाधान जायना आशिल्ल्यान तो मलयाचिलाकडे गेलो. थंय लेगीत ईश्वरप्राप्ती जायनाशी दिशिल्ल्यान ताणें देहत्याग करपाचो निर्णय घेतलो. तशे अवस्थेंत एक दीस जेवण रांदतना ताका सच्चिदानंद यतीचें दर्शन जालें. ह्या यतीनच ताका भार्गवी वारुणी विद्या सांगली. गुरूबोधाउपरांत ताणें नांदेडाक वचून संन्यास घेतलो. चतुर्थाश्रम घेवचे पयलींच ताचे बायलेक मरण आयलें. फुडें यात्रा करतना तो वारणातीरी शिगाव कोरेगांवाक गेलो आनी थंयच ताणें समाधी घेतली.

वामनाच्या परंपरागत चरित्राविशीं बऱ्योचशो कथा मेळटात. तेचभशेन यथार्थदीपिकेसारकी विद्वत्ताप्रचुर आनी प्रौढ रचना एकेवटेन आनी श्रृगांरप्रधान कृष्णकथा दुसरेवटेन, अशा ह्या परस्पर विरोधी प्रवृत्तींच्या वाङ्मयाक लागून वामन ही व्यक्ती एक काय दोन असो वाद आसा. कांय अभ्यासकांच्या मतान भागवतांतल्यो खुबशो श्रृंगारात्मक कृष्णकथा खुलोवन सांगपी वामन आनी यथार्थदीपिका बरोवपी वामन

हो एकच आसा. पूण अभ्यासकांच्या मतान शांडिल्यगोत्री वामन हो वेगळो आशिल्लो. शांडिल्यगोत्री वामनाची निश्चित रचना म्हळयार विराटपर्व.

राजाराम प्रासादीच्या मतान वामनाची मूळ समाधी आनी वृंदावन वाईलागसारच्या गरूघर हांगा आसा. रेठरेकर नांवाच्या ताच्या एका शिश्यान वामनाच्यो पादुका कोरेगांवाक हाडून थंय ताचें वृंदावन बांदलें. पूण क्रानोले ह्या अभ्यासकाच्या मतान गुरूघरची समाधी ही शके १६२० उपरांतची आसून ती वसिष्ठ वामनाची नासुंये वा कोरेगांवची समाधी पळोवन गुरूघर आनी वामनाचो संबंद लक्षांत घेवन थंय नवी समाधी बांदली आसुंये.

यथार्थदीपिकाकार वामनाचें वाङ्मय अशें आसा. निगमसार, चित्सुधा, राजयोग, कर्मतत्त्व, गीता समश्लोकी, कृष्णजल्म, वेणुसुधा, वनसुधा, नामसुधा, बालक्रीडा, रासक्रीडा, वनक्रीडा, ब्रह्मस्तुती, कंसवध, राधाविलास,राधाभुजंग, हरिविलास, द्वारकाविजय, नाममहिमा, कात्यायनीव्रत, भामाविलास हीं कृष्णवर्णनाचेर प्रकरणां आनी रामकथेचेर रामजल्म, अहिल्योध्दार, सीतास्वयंवर, जटायुस्तुती, सीता - लोपामुद्रासंवाद, भरतभाव, दशावतार, वामनावतार, नृसिंहचरित्र, गीतार्णव - सुधा, अपरोक्षानुभूती, चरमंजरी आनी पदपदांतरां. हाचेभायर वामनान संस्कृत भाशेंत सिध्दांतविजय, श्रुतिसार, अनुभूतिलेश हीं प्रकरणां रचल्यांत.

पिरायेचे निमाणें अवस्थेंत ताणें यथार्थदीपिका ही गीताटीका बरयली. ह्या पंडिती वळणाच्या ग्रंथांत ताणें अध्यात्माचें शास्त्र मांडलां. गीतेन सांगिल्लें तत्त्वज्ञान यथार्थपणान सांगपाच्या हेतान ताणें ही टीका रचली. प्रतिपक्षाचें खंडन करप हें वामनाचें एक खाशेलपण ह्या ग्रंथांत जाणवता.

वामनाची चडशी सगळीच स्फुट रचना रसाळ आसा. तातूंत ज्ञाननिश्ठ पूण सगुणोपासक ही ताची भुमिका स्पश्ट दिसता. भगवद्भक्ती ही ताची श्रेश्ठ प्रेरणा. अध्यात्माचें अनुसंधान सोडीनासतना तो श्रृंगार, करूण, वात्सल्य हे रस उत्कटतायेन उक्तायता.

- कों. वि. सं. मं.

**वामनपुराण :** (पळेयात पुराणां).

**वायंगणकर, पंढरीनाथ हरिश्चंद्र :** (जल्म : ९ मार्च १९३७, ओशेल - शिवोली).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेन मराठींतल्यान शिक्षण घेतलें. १९५४ सावन तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो 'रँक्युअर पेट्रिओटिका' चो वांगडी जालो. सुटके झुजाऱ्यांमदीं पत्रकां वांटप, तेचपरी फुडाऱ्यांक पुर्तुगेज कारवायांविशीं खबरो पावोवप असलीं कामां तो करतालो. १९५७ वर्सा पोलिसांनी ताका अटक केली आनी तीन दीस मेरेन म्हापसा पोलिस ठाण्यांत दवरलो. १९५८त ताका आनीक एक फावट अटक केली आनी एक म्हयनो बंदरखणींत दवरलो. १९५९ वर्सा ताका परत अटक जाली. हे खेपेक ताका आग्वाद बंदरखणींत दवरिल्लो. १९ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा जेन्ना गोंय स्वतंत्र जालें तेन्ना भारतीय सैन्यान ताची सुटका केली. १९६२ वर्सा ओशेल ग्रामपंचायतीचो सरपंच म्हूण ताका वेंचून काडलो. भारत सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वायंगें :** (मराठी : वांगे; कन्नड : वडाने कायी; गुजराती : वेंगन; रिंगणा; हिंदी : बैंगन; इंग्लीश : ब्रिंजल, एगप्लांट; लॅटीन : सोलॅनम मेलोंजेना; कूळ : सोलॅनेसी).

एक भाजयेचें झाड. ताचें खोड कांटेरी वा बिनकांटेरी आसून वनस्पतीचे सगळे भाग केंसाळ आसतात. ह्या झोपाक जायत्यो खांदयो आसून ताची उंचाय ०.६ ते २.४ मीटर आसता. पानां सादीं एका आड एक तांतयां आकारांचीं आनी खंडित देगेचीं आसतात.




**वायंगें :** १) पानां, फुलां आनी फळांसयत खांदी २) फूल ३) लांबशें - वाटकुळें वायंगें ४) लांब वायंगें.

फुलां निळसार जांभळीं आसून एक एकटीं वा २ ते ५ च्या घोसांत येतात. ताच्या सगळयाच फुलांक फळां धरतातच अशें ना. शास्त्रज्ञांनी फुलांतल्या किंजलाच्या लांबायेप्रमाण ताची चार गटांत विभागणी केल्ली आसा. लांब किंजल, मध्यम किंजल, थोडें आंखूड किंजल आनी सूक्ष्म किंजल. हातुंतल्या पयल्या दोन प्रकारच्या फुलांक फलधारणा जाता. अशा फुलांचो देंठाकडलो भाग भायल्यान फुगीर दिसता. मृदुफळां मोठीं, लांबशीं वाटकुळीं वा लांबट, धवें, हळडुवें, पाचवें आनी गडद जांभळें वा ह्या रंगाच्यो वेगवेगळयो सया वा ओळी आशिल्ली, २.५ ते २५ सेंमी. लांब चकचकीत वा गुळगुळीत आसतात.

ताच्या वांगडा वाडपी पुश्पकोश दाट आसता. फळाचें वजन २५ ते ५०० ग्रॅ. आसता. बियो जायत्यो ल्हान चकतेवरी आनी सपाट आसतात.

वायंग्याचें मूळस्थान भारत आसा. पुर्विल्ल्या काळासावन वायंग्याचो भाजयेखातीर उपेग करतात. बंगालांत जायतीं ल्हान फळां आशिल्लीं रानवायंगी (सो. इंसानम) मेळटात. दक्षिण - उदेंत आशियांत तरेकवार आकाराचीं आनी रंगाचीं जायतीं वायंगीं मेळटात. मलेशियांत हळदुव्या रंगाच्या फळांची एक जात (सो. फेरोक्स) मेळटा. चीनांत १५०० वर्सांसावन वायंग्याची म्हायती आशिल्ली. आफ्रिकेंतलीं वायंगी कांटेरी आसतात.

वायंग्याची लागवड चड करून भारत, पाकिस्तान, बांगलादेश चीन, फिलिपीन्स ह्या देशांत करतात. तेभायर फ्रांस, इटली, आनी अमेरिकेंत वायंग्याची नामना आसा. भारतांत उंचेले दोंगरी वाठार सोडून सगळेकडेन वायंग्याची लागवड करता आशिल्ल्यान वर्सयभर ही फळभाजी उपलब्ध आसात. गोंयांत जायतेकडेन वायंग्याचें पीक काडटात. गोंयच्या आगशेच्या वायंग्याची बरीच नामना आसा. वनस्पती विज्ञानाचे नदरेन वायंग्याच्यो तीन मुखेल जाती आसात. सो. एस्कूलेंटम जातीचीं वायंगीं वाटकुळीं वा तांतया आकाराचीं आसतात. सो. सर्पेंटिनम जातीचीं वायंगीं लांब आनी सडपातळ आसतात. सो. डिप्रेसम जातीच्या वायंग्याचीं झाडां मोटवीं आसतात.

वायंग्याचे वेगवेगळे प्रकार आसून, फळाचो रंग आनी आकार हातूंतय वेगळेंपण दिसून येता. वायंग्याचे दोन मुखेल प्रकार वाटकुळे आनी लांबशे भारतांत सगळेकडे पिकवप जातात. तेभायर ताचे हेर म्हत्वाचे प्रकार अशे - पुसा पर्पल लाँग, पुसा पर्पल क्लस्टर, पुसा क्रांती, पुसा अनमोल, पुसा पर्पल राऊंड, अर्का शील, अर्का शिरीश, अर्का कुसुमाकर, अर्का नवनीत, आझाद क्रांती, विजय हायब्रीड. भारतांतल्या वेगवेगळया राज्यांत वायंग्याच्या हेर प्रकारांची शिफारस केल्ली आसा.

वायंग्याचे लागवडीखातीर उश्ण हंगामाची गरज लागता. ताका सरासरी तापमान $13^{0}$ ते $21^{0}$ सॅ. आसल्यार पिकाची वाड बरी जाता आनी उत्पादन चड मेळटा. वायंग्याचें बीं $25^{0}$ तापमानाक बरें किल्लता. वायंग्याचें बीं पेरून रोपे तयार करपाचें काम तापमान, पावस आनी सिंचनाची सोय हांचेर आदारीत आसता. उत्तर भारतांत वायंग्याचे लागवडीचे जून-जुलय आनी नोव्हेंबर अशे दोन हंगाम आसात. उदेंत आनी दक्षिण भारतांत वायंग्याचें पीक वर्सांतल्यान केन्नाय घेतात. पूण चड करून जुलय - ऑगस्ट म्हयन्यांत पेरणी-लावणी करतात. दोंगरी वाठारांत बीं मार्च ते एप्रिल म्हयन्यांत पेरून रोपाचें स्थलांतर मे म्हयन्यांत करतात. महाराष्ट्रांत जून - जुलय आनी डिसेंबर - जानेवारी म्हयन्यांत ताची लागवड करतात. गोंयांत डिसेंबर-जानेवारी म्हयन्यांत वायंग्याची लागवड करतात.

गादी वाफ्याचेर वा सपाट वाफ्यांत वायंग्याचे रोपे तयार करतात. सुमार एक हेक्टर लागवडी खातीर ५०० ते ६५० ग्रॅ. बीं लागता. ४-५ आठवड्याचे रोपे काडून दुसरेकडे लायतात. बियो किल्लून येयमेरेन सकाळीं आनी सांजेचें झारीन उदक दितात. उपरांत मात फाव त्या प्रमाणांत उदक दितात. पेरणी आदी एक किग्रॅ. बियांक ३.ग्रॅ.थायरम, वा पारायुक्त वखद चोळटात. १५ - २० दिसांनी, रोपांक ४-६ पानां आसतना दरेक वाफ्यार २०-२५ ग्रॅ. यूरिया दोन आळींत खुरप्यान फोंड मारून तातूंत घालतात आनी उपरांत तो फोंड पुरयतात. वायंग्याच्या पिकाक मध्यम प्रतिची आनी बरी निचऱ्याची जमीन लागता. हलके जमनींत पीक बेगीन तयार जाता आनी चिकण पोयट्याचे आनी गाळाच्या पोयट्याचे जमनींत चड उत्पादन मेळटा. जमनीची मशागत करतना हेक्टरी २० -२५ गाडयो शेणखत वा कंपोस्ट खत जमनींत भरशितात. रोप लावंचे आदीं हेक्टरी ५० ग्रॅ. पॉटेशयुक्त सारें दितात. वायंग्याच्या झाडाचीं मुळां खोल वचनात. ताकालागून परत परत उदक दिवंचें पडटा. उदकाची पाळी जमिनीच्या मगदुराप्रमाण ८ ते १० दिसांच्या अंतरान दितात आनी वट्ट १४-१५ उदकाच्यो पाळयो दिवंच्यो पडटात. सुरवातीक पिकाची वाड ल्हव ल्हव जाता. ताकालागून मदीं मदीं तण वाडूंक शकता. तणाक लागून कीड आनी रोगाचो प्रसार जावपाक आदार मेळटा. देखून हें तण काडप म्हत्वाचें आसता.

लावणी आदीं वायंग्याच्या एका म्हयन्याचीं रोपाचीं मुळां ॲस्कॉर्बिक अम्लाच्या खाशेल्या विद्रावांत बुडोवन काडल्यार फुलधारणा ४-५ दीस वेळान जाता आनी फळाचें उत्पादन वाडटा. वायंग्याचीं फळां तीं पुरायपणान पिकचेआदीं फावत्या आकाराचीं आनी रंगाची जातकच तीं काडटात. फळांची तोडणी ४ ते ८ दिसांत सतत करची पडटा. वायंग्याचीं फळां गिमांत १-२ दीस आनी शियाळयांत ३-४ दीस ताजीं उरतात.

ल्हान वायंग्याची भाजी जाल्यार व्हड वायंग्याचें भरत करतात. वायंग्याच्यो फोडी वतांत सुकोवन सांठोवन दवरतात. तांकां उसऱ्यो म्हण्टात. तांची भाजी करतात. तरनें वायंगे त्रिदोशनाशक, बध्दकोश्ठता आनी अर्जीणकारक आसता. धवीं वायंगी गोडेमुताच्या रोग्याक बरीं मानतात. तिळाच्या तेलांत तळिल्लीं वायंगीं खाल्ल्यान दांतदुखी थांबता. वायंग्यांतल्या ग्लायकोअल्कलॉइडाक लागून ताका कडवटपणा येता. वायंग्यांत १०० ग्रॅ. फळांत जलांश ९२.७ ग्रॅ., प्रथिनां १.४ ग्रॅ., स्निग्ध पदार्थ ०.३ ग्रॅ., कार्बोहायड्रेटां ४ ग्रॅ., खनिजां ०.३ ग्रॅ., तंतू १.३ ग्रॅ., कॅल्शियम १८ मिग्रॅ., मॅग्नेशियम १६ मिग्रॅ., ऑक्झेलिक अम्ल १८ मिग्रॅ., फॉस्फरस ४७ मिग्रॅ., लोखण ०.९ मिग्रॅ., सोडियम ३ मिग्रॅ., पोटॅशियम २ मिग्रॅ., तांबें ०.१७ मिग्रॅ., गंधक ४४ मिग्रॅ., क्लोरीन ५२ मिग्रॅ., अ जिवनसत्व १२४ आंतरराश्ट्रीय एककां, थायमीन ०.०४ मिग्रॅ., रिबोफ्लावीन ०.११ मिग्रॅ., निकोटिनिक अम्ल ०.०९ मिग्रॅ. आनी क जीवनसत्व १२. मिग्रॅ. आसता. वायंग्याच्या झाडाक किडी

आनी रोगाची लागण जाता. वायंग्याक जायत्या किडिंचो उपद्रव जाता. तातुंतल्यो काय अशो आसात -

**(१) तेंगशी आनी फळां पोखरपी कीड :** ह्यो किडी रंगान धव्यो आनी १२ मिमी. लांब आसतात. हांचेर उपाय म्हणून रोप तयार करतना २०१ मी. मेरेन फ्लोरेट २५.३०ग्रॅ. मातयेंत भरशितात. शेतांत लावंचेआदीं रोपां मोनोक्रोटोफॉस आनी ॲक्रीमायसीन १० लिटर उदकांत भरसून तातूंत १० मिनटां बुडोवन दवरतात. पिकार मोनोक्रोटोफॉस, कार्बारिल (५०% भुकटी) आलटून-पालटून मारतात. तेंगशी सुकिल्ली दिसतकच किडीसयत ती कापून उडयतात.

**(२) पानां गुठलावपी कीड :** ह्यो किडी बदामी रंगाच्यो आसून तांचेर हळदुवे थिपके आनी केंस आसतात. हांचेर उपाय म्हणून कार्बारिलची भुकटी मारतात.

**(३) मावा, तुडतुडे आनी फुलकिडे :** मावा ही कीड हळदुवसार आनी काळपट पाचवी आसून पानांचे फाटलेवटेन रावन पानांतलो रस शोसतात. तुडतुडे पाचव्या रंगाचे आसतात. हांचेर उपाय म्हणून एंडोसल्फायन, मॅलॉथिऑन फॉस्फोमिडॉन वा डायमेथोएट वा थायोमेटॉन हातुतलें खंयचें एक उदकांत भरसून ताची फवारणी करतात.

वायंग्याच्या पिकार जायते रोग पडटात. ताकालागून मुळां, पानां, खोड आनी फळाक इजा जाता. ह्या रोगांची खरसाण हंगाम आनी लागवडीच्या वाठाराचेर आदारून आसता. कांय रोग एकाद्र्या वर्साच जाल्यार कांय रोग कांय वाठारांत दर वर्सा मेळटात आनी ह्या रोगाचे खरसाणी प्रमाण पिकाचें लुसकाण जाता.

**रोपे उमथून पडप :** पिथियम, फायटोप्योरा आनी ऱ्हायझोक्टोनिया ह्या कवकाक लागून हो रोग जाता. ताकालागून रोप जमनीर उमथून पडटा. कवकाची बाधा जमनींतल्यानच जाता. बीं रोवचे आदीं ताका सेरेसान चोळटात वा बीं ५१.७सॅ. तापमानाच्या उदकांत ३० मिनटां भिजत दवरतात आनी उपरांत सावळेंत सुकोवन पेरतात.

**मर :** हो रोग फ्युजेरियाम सोलनी ह्या कवकाक लागून जाता. ताका लागून रोपां मरतात. हीय बादा जमनींतल्यान जाता. देखून जमनीचेर उपाय करचो पडटा. तेखातीर बेनलेट वा बाविस्टीन ०.०५ ते ०.१% विद्रव तयार करून जमनीर फवारतात वा बीं ०.०५% हायड्रोक्विनाइन वा ०.०५% मिथिलीन ब्ल्यू च्या विद्रावांत भिजोवन दवरतात.

**पानावयले थिपकें :** आल्टर्नेरिया आनी सर्कोस्पोरा ह्या कवकाक लागून हो रोग जाता. पानाचेर अनियमीत आकाराचे ४-८ मिमी. व्यासाचे थिपके दिसतात. ताकालागून पानां गळटात. हे थिपके फळांचेरय पडटात आनी फळां हळदुवीं जावन गळून पडटात. हाचेर उपाय म्हणून पिकार डायथेन झेड - ७८, फायटोलान वा ब्लायटॉक्सची फवारणी करतात. ह्या रोगाक मांजरी गोटा, ब्लॅक राऊंड, जुनागढ सेल २, पी - ८, पुसा पर्पल क्लस्टर आनी एच -४ हे प्रकार कायम प्रमाणांत प्रतिरोधी आसात.

**बारीक पानां :** हो रोग व्हायरसाक लागून जाता. रोगाची बादा जाल्लीं झाडां हेर झाडांपरस मोटवीं आसतात. झाडाक खूब खांदयो, पानां येतात. फुलां विकृत येतात. पूण तांचेपसून फळां जायनात. फळां जालींच जाल्यार घट्टच उरतात. उपाय म्हणून ल्हान रोगट झाडां हुमटून उडयतात, उरिल्ल्यां झाडांचेर फळां लागसर एकाटॉक्स वा फॉलीडॉलची फवारणी करतात.

**मोझाइक :** व्हायरसाक लागून जावपी हो रोग आसा. तवशाच्या मोझाइक व्हायरसाक लागून ताचो प्रसार जाता. तांकां लागून पानां हळदुवीं पडटात. हाचेर उपाय म्हणून वायंग्याचें बीं ७ म्हयने कोठी तापमानांत सांठोवन दवरून उपरांत तें पेरणीक वापरल्यार ताचेवयलो व्हायरस नश्ट जाता.

**सूत्रकृमी :** ह्या रोगाकलागून मुळांक गांठी धरतात. झाडां खुटतात आनी पानां हळदुवीं पडटात. फळांचें उत्पादन घटता. हाचेर उपाय म्हणून पिकांची फेरपालट करतात. सेल १६.२, सेल ४१९, पोल बैंगन, विजय, ब्लेक ब्युटी, टी - २, बनारस जायंट हे प्रकार सूत्रकृमींक प्रतिरोधी आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## वायुपुराण : (पळेयात पुराणां).

**वायुसेना :** विमानावरवीं झुजपी सेना. १९२६ वर्सा स्कीन कमिटीन केल्ले शिफारशीप्रमाण १ एप्रिल १९३३ दिसा भारतीय वायुसेनेची स्थापना जाली. सुरवेक हातूंत कांय वापिटी (Wapiti) विमानां, क्रानवेल प्रशिक्षीत कांय विमानां तशेंच वायुसैनिकाचो एक पंगड हांचो आस्पाव आशिल्लो. पूण उपरांतच्या काळांत वायुसेनेन सुमाराभायर प्रगती करून दाखयली. आयज भारतीय वायुसेनेक देशाचे सुरक्षिततायेचे नदरेन एक शसस्त्र सेना म्हूण म्हत्व आसा. तेभायर आर्विल्ल्या तंत्रयुक्त विमानांनी परिपूर्ण आशिल्ली ही एक म्हत्वाची सेना आसा.

भारतीय वायुसेनेचो मुखेल अधिकारीक चीफ ऑफ एअर स्टाफ (Chief of Air Staff) म्हण्टात आनी ताचें पद चीफ एअर मार्शलाचें आसता. वायुसेनेचें मध्यवर्ती मुखेल कार्यालय दिल्ली हांगा आसा. हांगाच्यानच पुराय वायुसेना निगमाचेर नियंत्रण दवरप जाता. वायुसेनेच्या चीफ ऑफ एअर स्टाफाक आदार दिवपाक एअर मार्शल, वायस एअर मार्शल, वा एअर कमांडो पदाचे मुखेल चार स्टाफ ऑफिसर आसतात. हेच वायुसेनेच्या मुखेल शाखांचेर नियंत्रण दवरतात. वायुसेनेचीं उपकेंद्रां (१) एअर स्टाफ, (२) प्रशासनिक, (३) अनुरक्षण शाखा, (४) कार्यनीति आनी योजना शाखा अशा चार

विभागांत वाटिल्लीं आसात.

**एअर स्टाफ शाखा :** हातूंत सिगनल, प्रशिक्षण, प्रासूचना, हवामान, विज्ञान आनी सहाय्यक तशेंच रिजर्व ह्या कार्यालयांचो आस्पाव जाता.

**प्रशासनीक शाखा :** हातूंत संघटन, कार्मिक, चिकित्सा व्यवस्था लेखा, कार्यिक सेवा, वायुसेना निर्माण मुखेल अभियंता, वायुसेना क्रिडामंडळ, नियंत्रक बोर्ड, तशेंच कायदो ही शाखा पळेता.

**कमांड तशेंच फौजी कारवाय :** वायुसेनेच्या कार्यालयांत चार मुखेल रचणुको आसात, जांकां कमांड म्हण्टात. वायुसेनेच्या कांय युनिटां भायर हेर सगळीं युनिटां ह्या कमांडाच्या अतंर्गत येतात. देशांतल्या वेगवेगळया भागांत आशिल्ल्या केंद्रा वरवीं कमांड वायुसेनाचेर आपलें नियंत्रण दवरता. दर एक विंग वा केंद्राच्या अतंगर्त उड्डाण, प्रशिक्षण, तंत्रीक तशेंच स्थितीक युनिटां आसात. (१) फौजी कारवाई कमांड (२) प्रशिक्षण कमांड (३) अनुरक्षण कमांड तशेंच (४) ईस्टर्न एअर कमांड हे वायुसेनेचे चार मुखेल कमांडस् आसात. १९५२ वर्सा संसदेवरवीं रिजर्व अँड ऑक्जिलियरी एअर फोर्स अॅक्ट चालीक लायलो. हो एक्ट चालीक लावपाक सात स्काड्रनां स्थापन केल्यांत, तीं अशीं - ५१ न. (दिल्ली); ५२ नं. (मुंबय); ५३ नं. (मद्रास); ५४ नं. (उत्तर प्रदेश); ५५ नं. (बंगाल); ५६ नं. (ओरिसा) आनी ५७ नं. (पंजाब).

वायुसेनेतल्या कमीशन ओफिसराच्या हुद्द्याची विभागणी अशी केल्ली आसा - चीफ एअर मार्शल, एअर मार्शल, एअर वाइस मार्शल, एअर कमांडर, ग्रुप कॅप्टन, विंग कमांडर, स्क्वॉड्रन लीडर, फ्लायट लेफ्टिनंट, फ्लाइंग ऑफिसर आनी पायलट ऑफिसर. हांचेभायर हेर पदाधिकारी अशे आसात - मास वॉरंट ऑफिसर, वॉरंट ऑफिसर, फ्लायट सरजेंट, सरजेंट कार्पोरेल, एअरक्राफ्ट मेन, एअरक्राफ्ट मेन क्लास १ आनी एअरक्राफ्ट मेन, क्लास २.

वायुसेनेत ज्यो प्रशिक्षण सुविधा आसात त्यो अशो - एअर फॉर्स फ्लाइंग कॉलेज, जोधपूर आनी पायलट ट्रॅनिंग स्कूल. इलाहाबाद हातूंत एक वर्सभर विमान चालकाक विमान उड्डाणाचें सुरवेचें प्रशिक्षण दितात. हैदराबाद हांगा जेट ट्रॅनिंग अँड ट्रांसपोर्ट ट्रॅनिंग विंग्स हांगा जेट तशेंच चड इंजिनांच्या वायुयानाचेर एक वर्सभर उच्च उड्डान तशेंच संपरिवर्तन प्रशिक्षण दितात. जलाहल्लि - बेंगलोर हांगा एअर फॉर्स टॅक्निकल कॉलेजांत इंजिनियरिंग तशेंच सिग्नल आदीचें अधिकारी प्रशिक्षण दिवन तयार करतात. तशेंच हांगा उच्च सिग्नेल ट्रेडाच्या वायुसैनिकांक प्रशिक्षीत करतात. पुराय हवाई कर्मी (Air Crew) ही उपाद्दी मेळोवपा आदी छात्र नेविगेटर चें सुरवेचें प्रशिक्षण जोधपूर हांगा आनी उच्च प्रशिक्षण हैदराबाद हांगा घेतात. कोइमतूर हांगा आशिल्ल्या फॉस एडमिनीस्ट्रेटीव्ह कॉलेजांत वेगवेगळया थरावयल्या अधिकाऱ्यांक प्रशिक्षण दितात. बेंगलोर हांगा आशिल्ल्या एविएशन मॅडिसीन कॉलेजांत मेडिकल ऑफिसराक प्रशिक्षण दितात. फ्लाइंग इंस्ट्रक्टराचें प्रशिक्षण तंबारम हांगा दितात. हैदराबाद हांगा उच्च अधिकाऱ्यांक स्थळ तशेंच हवाई झुजाचें शिक्षण एकाबरोबर दितात. आग्रा हांगा सत्र्योधारी (Paratroopers) सैनिकांक प्रशिक्षण दिवपी संस्था आसा.

भारतीय वायुसेन ज्या विमानाचो उपेग करता तीं अशीं आसात -

(१) प्रशिक्षण विमान (Training Aircraft) : टायगर मॉथ, पर्सिवल प्रेंटिस, एच्. टी - २, हार्वार्ड स्पिटफायर, वैंपायर आनी डाकोटास.

(२) लडाय - विमान (Fighter Air Craft) : स्पीटफायर, टॅंपीट, वैंपायर, तुफानी, हंटर, नैट.

(३) परिवहन वायुयान (Transport Air Craft) : डाकोटास, डीवान सी - ११९, बॉक्सकार, ऑटर्स, वाइकाउंट, इलिशिन आनी पेकेट.

(४) बाँबवर्षक (Bombers) : लिबरेटर आनी कैनबरा.

(५) दुस्मानांची टेळणी करपी विमानां (Reconnaissance) : स्पिटफायर, ऑस्टर आनी हार्वार्ड.

(६) हेर विमानां : हेलिकॉप्टर, ऑस्टर आनी कानपूर - १.

**विमानाचें उत्पादन :** भारतांत बेंगलोर हांगा विमांना तयार करपाचो हिंदुस्तान एअरक्राफ्ट कारखानो आसा. १९४० वर्सा हो कारखानो खाजगी कंपनीन घेतलो आनी ताचें नांव हिंदुस्तान एअरक्राफ्ट लिमिटेड जालें. १९४५त हो कारखानो पुराय सरकारी वेवस्थापनेखाल आयलो. भारताच्या स्वातंत्र्या उपरांत ह्या कारखान्यावरवीं विमानांची निर्मिती जाताली. तशेंच ह्या कारखान्याचें नांव हिंदुस्तान एयरोनॉटिक्स लिमीटेड दवरपांत आयलें. ह्या कारखान्यात भारतीय इंजिनियरानी पयलें भारतीय प्रशिक्षण विमान एच्. टी. २ हें निर्माण केलें. तशेंच वैंपायर जेट लडावू विमान आनी नैट विमानाची निर्मितीय हांगाच जाली. उपरांतच्या धा वर्सांत ह्या कारखान्यात पुश्पक तशेंच कृषक विमानां आनी मारूत नांवाचें भारतीय पराध्वनिक (Supersonic) विमान एच्. एफ् - २४ हाची निर्मिती जाली. हाचेभायर लाइसेंसच्या अंतर्गत तयार जाल्लीं ब्रिस्टल आरफीयस तशेंच रॉल्स रॉयस डार्ट इंजिन आनी भारतांचो अभिकल्प जेट एरो इंजिन ह्या कारखान्यांत निर्माण जालीं. कानपूरच्या हवाई केंद्रापरस भारत सरकारान विमान निर्माण डेपोची स्थापना केल्या. हांगां ब्रिटनाचो नामनेचो फर्म हॉकर सिडले पंगड हांच्या आदारान आर्विल्लें परिवहन विमान ऐवरो ७४८ चीं निर्मिती जाली. भारत सरकारान कानपूर हांगा विमान निर्मितीचो कारखानो सुरू केला. उपरांतच्या काळांत हिंदुस्तान एयरोनॉटिक्स लिमिटेड तशेंच कानपुराचो कारखानो हांचें एकत्रिकरण करून ताचें नांव इंडिया एयरोनॉटिकल लिमिटेड दवरपांत आयलें. इंडिया

एरोनॉटिकल लिमिटेडच्यो हेर तीन शाखा नासिक, हैदराबाद आनी कोरापुट हांगा स्थापन केल्यात. हातूंत मीग -२१ नांवाच्या विमानाचे सांचे, इंजिनां आनी इलेक्ट्रॉनीक उपकरणां निर्माण करतात. विमानाचे सांचे नासिकांत, इंजिन कोरापुट हांगा आनी इलेक्ट्रॉनिक उपकरणां हैदराबाद हांगा तयार जातात.

- कों. वि. सं. मं.

**वारकरी संप्रदाय :** महाराष्ट्र आनी कर्नाटक ह्या राज्यांत प्रचलित आशिल्लो एक वैश्णव संप्रदाय. भारतीय भक्तिसंप्रदायांतलो हो एक मुखेल संप्रदाय. पंढरपूरचो विठोबा हे हाचें उपास्य दैवत आसून, पंथानुयायांचो आंकडो सुमार धा लाख आसा. ज्ञानेश्वर, नामदेव, एकनाथ, तुकाराम सारकिल्ले व्हड संत ह्या पंथांत जावन गेले आनी ताणीं आपल्या वाङ्मयाच्या रुपान पंथाक प्रसिद्दी आनी गौरव प्राप्त करून दिलो.

वारी करपी तो वारकरी. ह्या वारी उतराच्यो जायत्यो व्युत्पत्त्यो आसात. पूण ह्या संप्रदायांत वारी हें उतर फेरी वा खेप ह्या अर्थान अभिप्रेत आसा. दर वर्सा वा दर म्हयन्याक नेमान एकाद्रे थळाचे यात्रेक वचपाची प्रथा, असो वारी उतराचो अर्थ रूढ आसा. वारकऱ्यांक हें पवित्र थळ म्हणजे पंढरपूर. आषाढी, कार्तिकी, माघी आनी चैत्री ह्यो पंढरपूरच्यो मुखेल वाऱ्यो आसात.



ह्या संप्रदायाच्या इतिहासाचे स्थूलमानान विभाग पडटात ते अशे -

(१) पुंडलिक ते ज्ञानदेवामेरेनचो काळ (२) ज्ञानदेव आनी नामदेव हांचो काळ (३) भानुदास आनी एकनाथ हांचो काळ (४) तुकारामाचो काळ आनी (५) तुकारामा उपरांतचो काळ.

हातुंतल्या पुंडलिकाच्या काळाविशीं खुबूच कमी म्हायती उपलब्ध आसा. पुंडलिक हो सगळया भक्तांत व्हड आशिल्लो. ताच्या भावार्थाक लागून पांडुरंग ताचेकडेन येवन विटेचेर उबो रावलो ही परंपरेन चलत आयिल्ली कथा ज्ञानदेवासारक्या सगळया संतांनी वर्णिल्ली आसा. तशेंच पुंडलिकाची कथा पद्मपुराण आनी स्कंदपुराणांतय दिल्ली आसा.

ज्ञानेश्वराच्या पयलींच्या काळांत विठोबाचे जायते भक्त आशिल्ले. ताचें देवूळय आशिल्लें. महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी तेलंगण ह्या प्रदेशांतल्यान लोक विठोबाच्या दर्शनाखातीर पंढरपुराक येताले. वारीची पद्दत कोणे घाली हाची म्हायती मेळना, तरीय ती प्रथा ज्ञानेश्वरापयलींच्या काळांतच चालू जाल्ली. ज्ञानदेवाचो बापूय विठ्ठलपंत हो आषाढी - कार्तिकी वारीक पंढरपुराक गेल्याचो उल्लेख नामदेवान केला. इ.स.च्या सव्या शेंकड्यांत विठ्ठल देवतेची प्रसिद्दी जाल्ली. ताचेपयलीं दोनशें - तीनशें वर्सां तरी देवस्थानाचें अस्तित्व धरूं येता. पुंडलिकाचोय काळ ताचेपयलींचो आसुंये.

**ज्ञानदेव आनी नामदेव हांचो काळ :** इ.स.च्या तेराव्या शेंकड्याचो उत्तरार्ध आनी चवदाव्या शेंकड्याचो पुर्वार्ध हो ज्ञानदेव आनी नामदेवाचो काळ जावन आसा. हो कालखंड खूब म्हत्वाचो आसा. ह्या कालखंडाचें स्फुर्तिस्थान ज्ञानदेव आशिल्लो. गोरा कुंभार, सावता माळी, नरहरी सोनार, सेना न्हावी, परिसा भागवत, जनाबाई, चोखामेळा सारकिल्ली संतमंडळी ज्ञानदेवाचे प्रभावळींत आशिल्ली. ह्या अठरा पंगड जातीच्या संतांनी आपले अभंगवाणीन विठ्ठलमहिमा गाजयलो.

वारकरी संप्रदायाचें मुळावण घालपाची ज्ञानदेवाची कामगिरी अशेतरेन चतुर्विध आसा - १) ताणें पंथाक सुसंगत आनी तर्कशुध्द अशें तत्त्वज्ञान दिलें. २) सूक्ष्म नीतिमीमांसा केली. ३) धर्मीक अणभवांचें मूल्यमापन केलें. ४) लोक जागरण करून संप्रदायाची प्रवाही आनी अकृत्रिम संघटना बांदली.

नामदेव आनी ज्ञानदेव हे एकामेकाचे सामके इश्ट आशिल्ले. नामदेवान कीर्तनभक्ती करून महाराष्ट्रांत विठ्ठलभक्तीचो खूब प्रसार केलो आनी फुडें गुजरात, राजस्थान आनी पंजाब ह्या पंथाचीं दारां सगळयांखातीर उक्तीं केलीं. ताका लागून पंढरपूर हें भौशिक क्षेत्र थारलें.

**भानुदास आनी एकनाथाचो काळ :** नामदेवाच्या निर्वाणाउपरांत (इ.स. १३५०) सुमार शंबर वर्सांनी एकनाथाचो पणजो भानुदास हो पैठणेंत जल्मलो. ताच्या घराण्यांत विठ्ठलभक्तीची परंपरा आशिल्ली. तो नेमान पंढरीची वारी करतालो. विजयनगराच्या त्या काळांतल्या राजान जेन्ना पांडुरंगाची मूर्त आपले राजधानींत व्हेली तेन्ना भानुदासान ती परत पंढरपुराक हाडली अशी कथा आसा. मागीर एकनाथ महाराजान ह्या भागवत धर्माच्या देवळाक भागवताच्या रुपान घट्ट असो आदार दिलो. तशेंच ताणें वारकरी संप्रदायाच्या पुनरुज्जीवनाचें कार्य केलें आनी ताका ह्या कामांत फळय मेळ्ळें. एकनाथान आपल्या ग्रंथांतल्यानय भागवत धर्माचें वेगवेगळया पद्धतींनी बरेतरेन स्पश्टीकरण केल्लें आसा.

**तुकारामाचो काळ :** एकनाथाच्या निर्वाणा उपरांत णव वर्सांनी तुकाराम महाराज देहू गांवांत जल्मलो. ताणें परमार्थाची शिकवण बरेतरेन दिली. तेचप्रमाण वेव्हारधर्मय सांगलो. ताणें आपलें सगळें बळगें धर्मक्षेत्रांत भक्तीधर्माचें साम्राज्य रूढ करपाखातीर

खर्चिलें. विठ्ठल, पंढरपूर, नाममाहात्म्य, कीर्तनरंग, वारी, भक्तिरहस्य, आत्मसुख सारकिल्ल्या विशयांचेर तुकोबाचे जायते अभंग आसात.

**तुकारामा उपरांतचो काळ :** तुकारामाच्या निर्वाणाउपरांत संप्रदाय चलोवपाच्या योग्यतायेचे जे मनीस जावन गेले तातूंत निळोबाचें नांव घेवपासारकें आसा. तो आपणाक तुकोबाचो अनुगृहीत मानतालो. ताणें वारकरी संप्रदायाचो प्रसार केलो. निळोबा उपरांतच्या ३०० वर्सांत वारकरी संप्रदायांत शंकरस्वामी शिऊरकर, मल्लाप्पा वासकर, हैबतराव बाबा, वासुदेवबाबा देहूकर, चातुर्मास्येमहाराज, साखरेमहाराज, विष्णूबुवा जोग, दादामहाराज सातारकर, केशवराव देशमुख, बंकटस्वामी, लोहिया महाराज, प्रा. शं. वा. दांडेकर सारकिल्ले जायते कर्तुत्त्वान मनीस जावन गेले. ह्या सगळ्यांनी किर्तन, प्रवचन, संघटना हांच्या आदारान आनी शिश्यपरंपरा निर्माणकरून तिच्या आदारान संप्रदायाच्या कार्याचो प्रवाह आयजमेरेन चालू दवरला.

वारकरी संप्रदायांत कांय उपसंप्रदायय आसात ते अशे - १)चैतन्य संप्रदाय २) स्वरूप संप्रदाय ३) आनंद संप्रदाय आनी ४) प्रकाश संप्रदाय.

वारकरी संप्रदाय शुध्द भक्तिमार्गी आसा. भक्ती हो मूलसिध्दान्त म्हणून आपणावन ह्या संप्रदायान आपल्या तत्त्वज्ञानाची उबारणी केल्ली आसा. वारकरी संप्रदायांत भक्ती हें मोक्षाचें आनी स्वात्मसुखाचें व्हड साधन मानलां. ज्ञानदेवान भक्तीक पांचवो पुरुषार्थ मानला. मानवी जिविताचें निमणें साध्य मोक्ष नासून भक्ती आसा आनी भक्तींतच जिविताची सफळताय आसा अशें ज्ञानेश्वर मानता. हेर संतानींय ताचोच पुरस्कार केला. ज्ञानदेव आपूण जावन पुराय आत्मानुभवी आशिल्लो. ताकाच लागून ताणें भक्तीक सगळ्यांत उंचेलें स्थान दिलां.

भक्ती ही फक्त वैयक्तिक भावना न्हय. ती परमात्म्याच्या मूळ स्वरुपांतच आसा. तशेचं ती सहजस्वभावरूप आसा. परमात्म्याच्या जाग्यार आसपी ह्या सहज प्रेमाक परमात्म्याचो सहज उजवाड अशें ज्ञानदेव म्हण्टा. एकनाथ महाराज आनी तुकोबानूय हाचें समर्थन केलां.

वारकरी संप्रदायाची अधिश्ठात्री देवता विठ्ठल. 'रामकृष्णहरी' हो ह्या संप्रदायाचो मंत्र आसा. ह्या मंत्राक सोवळें - ओवळें, थळ - काळ, जात - वित्त - कूळ हांचो प्रतिबंध ना. गळयात तुळशीच्या मणयांची माळ, कपलाक गोपीचंदनाच्यो मुद्रा आनी बुको तशेंच खांद्यार पताका (गुढी) हीं वारकऱ्यांची बोधचिन्नां आसात. तातुंतली तुळशीची माळ ही एकाद्रया ज्येश्ठ वारकऱ्याकडच्यान घेवपाची आसता. तेरवातीर कांय नेमूय पाळपाचो सोपूत घेवंचो पडटा.

फड म्हणजे वारकरी - मुखेली आनी ताची शिश्यमंडळी हांचो एकवटीत समुदाय. वारकरी जाच्याकडल्यान माळ घेवन वारी पत्करता तो ताचो गुरू जाता. शिश्यान वारीक वतकच आपल्या गुरूच्या फडांत वचून - भजन किर्तनांत भाग घेवपाचो आसता.

पंढरीची आनी आळंदीची अशो दोन वाऱ्यो वारकरी संप्रदायांत चलतात. पंढरीची सगळयांत म्हत्वाची वारी म्हणजे आशाढ शुध्द एकादशी. आळंदीचे वारीचो दीस कार्तिक वद्य एकादशी हो आसा. आषाढीचे वारीक ज्ञानेश्वरमहाराजाची आळंदीच्यान पंढरीक पालखी येता. आषाढी - कार्तिकी ह्या वाऱ्यांक दर एका फडाचेर दसम ते पुनवमेरेन भजनां आनी कीर्तनां जातात. रातचो हरिजागर आसता. पुनवेक सगळयो दिंड्यो पंढरपुरापसून लागींच आशिल्ल्या गोपाळपुरीक वतात. थंय कालो जाता. काल्याच्यो ल्हायो एकामेकांच्या तोंडांत घालून वारकरी आपल्या वारीची सांगता करतात.

आळंदीचे वारीक पंढरीच्यान नामदेव, पुंडलीक सारकिल्ल्या संतांच्यो पालख्यो आनी दिंड्यो येतात. भजन, किर्तन, हरिजागर हे सुवाळे जातात. कार्तिक वद्य त्रयोदशी हो ज्ञानेश्वराचो समाधी दीस. ह्या दिसा समाधीचे अभंग म्हण्टात आनी कालो जाता. देहू, पैठण, त्र्यंबकेश्वर, सासवड ह्या संतांच्या क्षेत्रांत त्या त्या संतांचे पुण्यतिथीक नेमान वचपी वारकरीय आसात.

वारकरी संप्रदाय हो मानवी जिवितांत ईश्वरी प्रेमाची अनुभूती घेवन जिवीत खऱ्या अर्थान फलदायी करपाचो भक्ती, हो सोंपो मार्ग सांगपी संप्रदाय आसा. हिंदू धर्माच्या वेगवेगळया अवस्थांतल्यान परिणत जायत जायत तो सद्याचे अवस्थेक आयिल्लो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वारली :** एक आदिवासी जमात. ह्या लोकांची वसती चडकरून महाराष्ट्रांतल्या ठाणें आनी नासिक जिल्हो, तेचपरी खानदेश, धरमपूर दमण आनी सुरत जिल्हो ह्या वाठारांत आसा. वारली ह्या नांवाचे व्युत्पत्तीविशीं विद्वानांत जायते मतभेद आसात. कात्यायनान आपल्या एका वर्तिकांत विंध्य, सातपुडा ह्या पर्वतांच्या लागसारच्या वाठाराची म्हायती दितना निषाद, व्यास आनी वरूड ह्या तीन जमातींचो उल्लेख केला. तातुंतले तरूड म्हळयार वारली अशें इतिहासकार राजवाडे हाचें मत. वरूड शब्दावयल्यान ताणें वरूड - वरुडाई - वरुलाई - वारुली - वारली अशी ह्या शब्दाची उत्पत्ती दिल्या. डॉ. विल्सन हाणें दक्षिणेंतल्या सात कोंकणांतल्या वरलाट ह्या वाठारांत रावपी ते वारली अशें म्हळां. श्री एंथोवेन आनी श्री. लॅथॅम हाच्या मतान वारली ही भिल्लांची एक पोटजात.

**इतिहास :** वारली जमात महाराष्ट्राच्या धरमपूर वाठारांत पुर्विल्ल्या काळापसून रावताली. मेगॅस्थिनीसान आपल्या भोंवडेवर्णनांत ह्या वाठाराक वरलाट अशें म्हळां आनी थंय रावपी रानटी जमातीचो वारली असो उल्लेख केला. हे वारली जमातीचीं ह्या वाठारांत आदीं राज्यां आशिल्लीं. सद्याचो जव्हार तालुको म्हणून वळखुपांत येवपी प्रदेशांत कोळयांचें जें राज्य आशिल्लें तें मुळचें वारली जमातीचें

आशिल्लें. इ.स. च्या १४ व्या शतमानांत सह्याद्रीच्या घाटमाथ्यार वसणूक करून आशिल्ल्या कोळी जमातीच्या मुकणे गांवाच्या पौपेरा नांवाच्या एका कोळीमुरवेल्यान जव्हारच्या वारली राजाचेर घुरी घाली. तेविशीं एक दंतकथा आसा ती अशी - पौपेरान वारली राजाकडे एका बैलाच्या चामड्यान धापूंक मेळटा इतली जमीन मागली. मागणी ल्हानच समजून वारली राजान ती मान्य केली. तेन्ना पौपेरान बैलाचे चामडेच्यो लांब लांब वादयो तयार करून वारली राजाचें सगळें राज्य व्यापून उडयलें. उपरांत पौपेरान गंभीरगड आनी ताच्या लागसारचो वाठार वारली राजाक दिलो.

वारली लोकांत मुरडे, डावर, निहिरे अशे तीन प्रादेशिक भेद आसात. मुरडे आनी डावर हे ठाणे जिल्ह्याच्या उत्तरेकडल्या वाठारांत दिश्टी पडटात. जाल्यार निहिरे वारल्यांची वसणूक पालघर, माहीम, जव्हार, वाडा ह्या वाठारांत आसा. वारली लोकांत भांगर, भावर, जाधव, किकिरे, निंबोरे, शनवार, वांगड आदी कुळां आसात.

ह्या लोकांचो वर्ण सादारणपणान काळो आसून, ते बारीक पूण काटक आसतात. तांची उंचाय मध्यम आसता. वारली दादले माथ्याक शेंडी दवरतात. आंगांत कुरतो आनी कमराक लंगोटी हो वारली दादल्यांचो सदचो भेस. पूण भायर वतना ते कमरेभोंवतणी वारभर लांबी - रुंदायेचो लेंस बांदतात आनी तकले भोंवतणीय लेंस गुठलायतात. तरणाटे लोक सदरो आनी मोटवी पिजाम घालतात. कांय जाण कानांत मणयांची ल्हानशी कुडी वा पितुळचो मणी घालतात. तांकां फुलांची खूब आवड आशिल्ल्यान ते कानाचेर रोजां वा लांब देंठाचीं फुलां माळटात.

वारली बायलो धोंपरामेरेन आनी कमरेभोंवतणी घट्ट णव वारी कापड न्हेसतात. पूण लग्न जातकच मात पदर घेतात. आंगांत तीं गाठीचो पोलको घालतात. गळयांत तरेतरेच्या रंगाच्या मणयांच्यो माळो घालतात. लग्न जाल्ल्या बायलांच्या गळयांत काळया पिडुकांचे जायते सर आसतात. त्या पिडुकांमदीं रुप्याचें, कथलाचें वा पितुळचें मंगळसूत्र आसता. डावर बायलो हातांत कोपरामेरेन पितुळचीं कांकणां आनी पायांतय धोंपरामेरेन तशींच कांकणां घालतात. बायलांकय फुलांची खूब आवड आसता, तातुंतल्या तातूंत रोजांचीं फुलां तांकां चड आवडटात.

वारली लोकांचीं खेडीं पातळिल्ल्या खोंपींच्या गटागटांनी वशिल्लीं आसतात. जांचीं शेतां एकामेकांक तेंकुन आसतात. अशे धा - पंदरा लोक आपआपल्या शेताकडे खोंपी बांदतात. ह्यो एकठांय बांदिल्ल्यो खोंपी मेळून एक वाडो जाता. अशे तीन - चार ते धा - बारा वाडे मेळून एक गांव जाता. हे लोक बांय वा तळें लागसार पळोवनच वाडो वसयतात. तांचे वाडे नितळ आसतात. तांच्यो खोंपी चवकोनी वा लांबट चवकोनी आसतात. खोपीच्यो वण्टी कोंड्याच्यो वा कारवी वनस्पतीच्यो आसतात. ताका शेण आनी मातयेचो लेप काडटात. घराचें पारवेंय कोंड्याचेंच आसता. ताचेर सागाचीं वा पळसाचीं पानां घालून ताचेवयर तण पातळायतात. घरांत वान, मुसळ, सूप, दुदयापसून तयार केल्लीं उदक भरपाचीं आयदनां, कोयत्यो, कुराड, बुडकुले, मिरसांग आनी हळद दवरपाच्यो कोंडयाच्यो नळकांड्यो, जेवणाखातीर पितुळचीं ताटां, वाडगे अशें मुखेल सामान आसता.

भात हें तांचें मुखेल अन्न आसून नासण्याची भाकरी, आंबील, चवळी, वा तुरीचो रोस, किल्लाचें लोणचें हेय पदार्थ तांच्या आहारांत आसतात. केन्ना केन्नाय नुस्तें आनी परबे दिसा तवशाच्यो पानग्यो हे तांचें पक्कान्न आसता.

वारली लोकांत सादारणपणान चली वयांत येतकच लग्न करतात. चली पळोवंक वतना चल्याकडले लोक वांगडा ताडी घेवन वतात आनी सगळे जाण ती पितात. ह्या विधीक बधवणी म्हण्टात. उपरांत चली पसंत आसल्यार तशें तोंडी मान्य करप जाता. हाका बोली करप अशें म्हण्टात. बोली करतकच सहसा लग्न मोडीनात. तांच्यांत देज दिवपाची पद्दत आसा. लग्नाआदीं न्हवऱ्याकडले लोक साडेतीन वा सवायपांच मण भात, पंदरा रुपये आनी ताडी घेवन व्हंकलेगेर वतात. देज दितकच लग्नाची तिथी थारायतात.

वारली लोकांत लग्नाखातीर णव म्हेडींचो माटव घालतात. पयली म्हेड पुरतना फोंडकुलांत थोडे तांदूळ, कुकूम सुपारी आनी पयशे घालतात. माटवांत मदीं रुमडाची ताळी रोयतात. ह्याच दिसा देवाची पुजा आसता. घरांतल्यो सवाशीण बायलो वण्टीचो चार फूट चौरस जागो सारोवन ताचेर तांदळाच्या पिठान देवाच्यो आकृत्यो काडटात. हाका चौक काडप अशें म्हण्टात. उपरांत तो चौक धांपून दवरतात. रातचो न्हवरो न्हावन येवन त्या चौकामुखार बसता आनी पाट मांडून ताचेर देवाच्यो मूर्ती दवरता, तांची पुजा करता आनी एका फाटल्यान एक सगळया देवांक आपयता. हो विधी रातभर चालू आसता. दुसऱ्या दिसा न्हवऱ्याक हळद लावपाचो कार्यक्रम आसता.

दुसऱ्या दिसा न्हवऱ्याक घेवन व्हंकलेगेर वतात. थंय भगत आनी धवलेरी म्हळयार बायल पुरोयत व्हंकलेच्या घरांत वचून देव करता. न्हवऱ्याक मात एके शीमेभायर कांबळीर रातभर बसोवन दवरतात. ते राती ताणें न्हीदप नासता. दुसऱ्या दिसा न्हवरो - व्हंकलेक नटोवन माटवांत हाडटात. धवलेरी दोगांयमदीं अंतरपाट धरून मंत्र म्हण्टा. उपरांत तांचेर अक्षता घालतात. न्हवरो व्हंकलेच्या गळयांत काळयो पिडुको बांदता.

तांच्यांत घटस्फोटाची चाल आसा. तशेंच बायलेक पुनर्विवाह करूंक मेळटा.

वारली लोकांत भुरगें जल्मतकच चिरिल्ल्या बोरूच्या तीक्ष्ण चिपटान भुरग्याची नाळ कापतात. चली जाल्यार चवथ्या दिसा आनी चलो जाल्यार पांचव्या दिसा सटीची पुजा करतात. त्याच दिसा भुरग्याखातीर नव्या कपड्याचें पाळणें बांदतात. भुरगें धा - बारा

दिसाचें जातकच एकाद्रो जाण्टो मनीस सत्रेची बडी तापोवन ताच्या पोटार दाग दिता. अशें करतकच पचन बरें जाता आनी पोटाचे विकार जायनात असो समज आसा. भुरग्याचें नांव बेगीन दवरीनात. भगताक विचारूनच तो सांगता तेन्ना भुरग्यांचें नांव दवरतात.

वारली लोकांत मनीस मरतकच, मडयाक हून उदकान न्हाणयतात आनी उपरांत नव्या कपडयान तें धांपतात. मेल्लो मनीस सवाशीण बायल आसल्यार तिका कुकूम लावन तिचे केंस वळयतात. प्रत्येक मडयाक पांयापसून कपलामेरेन चार - पांचकडे हळद, शिंदूर आनी काजळ हांचे तिबे लायतात.

मडयाक मसंडेंत व्हरतना थोडया अंतराचेर जंय आपटयाचें झाड मेळटा थंय मडयाक त्या झाडा भोंवतणी. तीन वा पांच खेपे फिरयतात. मडें बायलेचें आसत जाल्यार त्या जाग्यार मंगळसूत्र तोडून उडयतात आनी थंयच्यान परततात. ह्या जाग्याक 'विसावी' म्हण्टात. मडें सरणार दवरतकच ताका वांगडा हडिल्ल्या शिदोरींतल्यो पांच उणयो लायतात आनी पांच घोंट उदक पिवयतात. उपरांत ताच्या तोंडांत पावली अधेली अशें नाणें दवरून ताचें तोंड बंद करतात. निमाणें मडयाचेर एके झाडाचे ताळयेन उदक शिंपडायतात आनी उपरांत मडें लासतात. पांचव्या दिसा केळीच्या पानाचेर शीत, भाजी वाडून तें पान घराचेर दवरतात. कावळयान तें खातकच, मेंल्ल्याक तें पावलें अशें समजतात. बाराव्या वा तेराव्या दिसा ताचें श्राध्द वाडटात.

वारली लोकांचो शेत पिकोवपी पावस हो सर्वश्रेश्ठ देव आसून ताका ते परमेश्वर म्हण्टात. धान्य दिवपी धर्तरी शेताच्या कामाक उपेगी पडपी गावतरी (गायत्री) आनी कणसरी (कणसां) हे तांचे पवित्र देव. हांचेभायर सूर्य, चंद्र, ढगेसर (ढग), जिजेसर (वीज), पावशा देव (ऊंस) हांकांय ते पुजतात. पूण वाघोबा वा वाघया, नारन्देव, हिरवा वा हिमाई हे तांचे खाशेले देव आसात. तातुंतलो वाघया हो तांचो ग्रामदेव आसा. गांवाभायर लांकडी खांब्यार वा फातरार वाघयाची मूर्त कोरिल्ली आसता. तिका शेंदूर मारिल्लो आसता. ताचे फाटले वटेन ल्हान लांकडार ताचेवरीच मूर्ती कोरिल्ल्यो आसतात. ते वाघयाचे शिपाय मानतात. आश्विन वद्य दुवादशीक ताची पुजा करतात. नारन्देव हो तांचो पावासचो देव आसून एका फातराक वा सुपारेक शेंदूर मारवून, एका खोंटल्यांत तांदूळ घालून तातूंत ताका दवरतात. माघ शु. द्वितीयेक ताची पुजा करून, ताका कोंब्याचो बळी दितात. हिरवा ही तांची कुलदेवी.

भूत - पिशाच्चाचेर तांचो खर विश्वास आसता. भगत हो तांचो पुरोयत आसून तोच ज्योतिशी आनी वैजय आसता. भगत जावपाखातीर तांकां खाशेलें शिक्षण घेवचें पडटा.

वारली लोकांत नाचाक खूब म्हत्व आसता. दिवाळी, शिगमो हे सारके परबे दिसा, नारन देवाच्या पुजेवेळार तशेंच लग्न सुवाळयावेळार बायलो - दादलें नटून - थटून वेगवेगळे नाच करतात. दुदयापसून तयार केल्लें तारपो ह्या वाद्याच्या सुराचेर हो नाच करप जाता. आश्विनाचे सुरवेक सावन कार्तिकी पुनवेमेरेन दर एक वाड्याचेर सदांच रातचो हो नाचाचो कार्यक्रम चालू आसता. टाळयांचो नाच, बदक, मोर, आदी तारप्यावयल्या नाचाचे जायते प्रकार आसात.

तांच्यांत लोकगिताक आनी लोककथांक म्हत्वाची सुवात आसा. तांच्यांत बरयल्ल्या साहित्याचो उणाव आशिल्ल्यान तांची संस्कृती ही पिळगेन पिळगी चलत आयिल्ल्या पदां आनी काणयांवरवीं तिगून उरिल्ली आसा. जिणेंतल्या म्हत्वाच्या अशा सगळया प्रसंगांक उद्देशून वारल्यांचीं पदां आसात. लग्न आनी तातुंतले वेगवेगळे विधी, हांकां उद्देशून आशिल्लीं पदां; नारनदेवाच्या पुजेवेळार म्हणपाचीं पदां; मडयाच्या निमण्या संस्कारांवेळार म्हणपाचीं पदां; धान्य, समृध्दी हांकां उद्देशून आशिल्लीं मळणेवेळार म्हणपाचीं पदां अशे तांचे चारगट पडटात.

वारली लोकांत जायत्यो लोककथा प्रचलित आसात. तशेंच जल्म - मरण, वेगवेगळे देव हांचेविशींय वेगवेगळयो कथा प्रचलित आसात. वारली लोक मराठीचीच एक बोली उलयतात. तिचेर गुजराती आनी कोंकणीचो प्रभाव दिसून येता.

सुरवेक शेती हो वारल्यांचो मुखेल वेवसाय आशिल्लो. चड करून सगळया वारल्यांचे मालकीच्यो जमनीय आशिल्ल्यो. पूण त्या वाठारांत वेपाराच्या निमतान रिगिल्ल्या ब्राह्मण, प्रभू, गुजराती, मारवाडी, मुसलमानी, पारशी, इराणी आदी लोकांनी रीण, खावटी आदी नांवांखाल तांच्यो जमनी हस्तगत केल्यो. फुडें वारल्यांचेर ह्या जमीनदारागेर कूळ म्हूण रावपाची पाळी आयली. तशेंच तांचीं रिणां पावोवपाखातीर तांचें घरकाम करप, दिसवडयाचीं कामां करप असलींय कामां ते करताले. तांच्यो बायलोय घोवावांगडा राबून तांकां हातभार लायताल्यो.

इतलें आसुनूय चडशे वारली वर्सांतल्यान पांच म्हयने तरी बेकार वा अर्दबेकार आसताले. वारल्यांचे हे दीन अवस्थेकडे कांय समाजसेवकांनी लक्ष दिवपाचो यत्न केलो. श्री वसंत नारगोळकर आनी ताची बायल कुसूम नारगोळकर हांणी तांच्यांत रावन तांची परिस्थीती सुदारपाचे यत्न केले. आदिवासी सेवा मंडळ, सेवाश्रम अशा कांय संस्थांनी तांचेखातीर दवाखाने, शाळा काडल्यो. खावटी गुदांव आनी धान्य पेटयो चलयल्यो. रान कामगार सहकारी संघाची स्थापना केली. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत सरकारान सगळया आदिवासींची परिस्थिती सुदारची म्हूण सरकारी थराचेर यत्न केले. ताचो लाब वारली लोकांक मेळळो. आधुनिक काळाच्या बदलत्या ओघांत वारली समाजातय जायते सामाजीक, धार्मीक, सांस्कृतीक, अर्थीक, शिक्षणीक बदल घडिल्ले दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**वाराणसी :** (पळेयात काशी).

**वारियर :** केरळांतली एक जात. हांकां अंबलवासीचो एक पोटभेद मानतात. केरळविशेशमहात्म्य ह्या ग्रंथांत वारियरांक पारशव म्हळां. ब्राह्मण दादलो आनी शूद्र बायल हांच्या भुरग्यांक याज्ञवल्क्यान पारशव हें नांव दिलां. जायते वारियर आपलें नांव संस्कृतांत बरयतना फुडें पारशव ही उपाधी लायतात. कांय वरियर कुटुंबाक आसन (आचार्य) ही पदवी मेळिल्ली. तांच्या घराण्यांतल्या दादल्यांनी वंशपरंपरेन कांय सरदारांच्या घराण्यांत अध्यापनाचें काम केल्लें.

वारियरांचे उत्पत्तीविशीं एक आख्यायिका आसा ती अशी - देवळांत पडिल्लें एक हाड ब्राह्मण पुजाऱ्याचे विनवणेवयल्यान एके शूद्र बायलेन काडून भायर उडयलें. तेन्ना तिका जातीभायर घाली. तिचे हे आवस्थेची ब्राह्मण पुजाऱ्याक काकुळट आयली आनी ताणें तिचेकडेन संबंद दवरलो. त्या संबंदांतल्यान निर्माण जाल्ले संततीक वारियर म्हण्टात.

वारियर लोक सादारणपणान व्युत्पन्न आनी संस्कृताचें खास अध्ययन केल्ले आसतात. तेचपरी ते बरे ज्योतिशी आनी वैज आसतात.

हे लोक चडकरून शिवाक भजतात. तशेंच विष्णु, सुब्रह्मण्य, शास्ता, गणेश आदी देवांचीय ते पुजा करतात. तांचे चडशे सगळे आचार-विचार नंपूतिरी ब्राह्मणांच्या आचार - विचारांवरी आसतात.

ह्या लोकांत ताळिकेट्टुकल्याणम आनी कुडीवैपू अशा दोन लग्नपद्धतींची चाल आसा. चली वयांत येवचेआदीं ताळी बांदपाचो वा ताळिकेट्टुकल्याणम हो विधी करतात आनी ती वयांत येतकच एकाद्र्या दादल्याकडे तिचें लग्न करतात.

कुडीवैपू ह्या प्रकारांत न्हवरो - व्हंकल मरसर घोव - बायल म्हणून रावतात. हें लग्न व्हंकलेगेर करतात. न्हवरो नवो भेस घालून सोयऱ्यावांगडा मिरयत व्हंकलेगेर वता, थंय न्हाता आनी व्हंकलेन हात लायिल्ले कपडे घालता. उपरांत होम जाता. मागीर व्हंकलेक माटवांत हाडटात आनी नंपुतिरी ब्राह्मणांच्या सगळ्या विधीवरी लग्नविधी करतात. सुर्यास्ताउपरांत न्हवरो गणपतीची पुजा करता. उपरांत न्हवऱ्यागेर वचून न्हवरो - व्हंकल तण, व्याघ्राजिन आनी धवी चादर घाल्ल्या आसनाचेर बसतात. उपरांत सवाशिणी तांकां आरती ओवाळटात, हाका दीक्षाविरिप्पू अशें म्हण्टात.

हे लोक मडीं लासतात आनी इकरा दीस सुतक पाळटात. ते मेल्ल्याचें श्राध्द वाडटात.

ह्या लोकांचे वेवसाय शैव देवळांकडे संबंदीत आसतात. ते देवारवातीर फुलां गुंथप, निवेद्याची तयारी करप, देवाचे मिरवणुकेंत मशाली, छत्रां धरप आनी देवळाची साफसफाई करप असलीं कामां ते करतात. देवाच्यो वस्ती लेगीत तांचेचकडेन आसतात.

वारियर लोक बारा ते सोळा वर्सां पिरायेचेर चल्याक शिवदीक्षा दितात. एका बऱ्या मूहूर्तार तो भुरगो आनी पुरयत नवे कपडे घालून एका उदकान भरिल्ल्या कलशाची पुजा करतात. मागीर पुरोयत तो कलश त्या भुरग्याच्या माथ्यार ओतता. उपरांत दोगांयची हजामत करतात. कांय विधी जातकच तो नवे कपडे घालता, पामरी पांगुरता, कपलाक भस्म, चंदन लायता, रुद्राक्षमाळ आनी अलंकार घालता आनी आवयकडे भिक्षा मागता तशेंच काशीचे दिकेन सात पावलां चलता. हो विधी जालेबगर चल्याक लग्न करूंक मेळना. हो विधी म्हळयार मुंजीवरीच एक प्रकार आसा. कालचक्राप्रमाण वारियरांचे परंपरेंत काळाक फावशे बदल घडत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**वारीक, रामचंद्र भिकू :** (जल्म : २७ मे १९११, लोलयें - काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण मराठीतल्यान घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तरणाट्याक सुटकेझुजांत वाटो घेवंक स्फूर्त दिवप, सुटके झुजाक तेंको दिवंक सत्याग्रहींचीं नावां जमोवप, तांकां मार्गदर्शन करप असलीं कामां तो करतालो. तेन्ना पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो आनी सुमार णव म्हयने बंदखणीत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वारीक, वेंकटेश गोविंद :** (जल्म : १० नोव्हेंबर १९३६, लोलयें - काणकोण).

सुटकेझुजार. ताणें मूळावें शिक्षण मराठीतल्यान घेतलें. सुटके झुजाच्या काळांत सिंधुताई देशपांडे हिच्या फुडारपणाखाल गांवडोंगरी काणकोण आदी वाठारांत जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी सुमार साडे स म्हयने बंदखणीत दवरलो. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**वार्केकार, उमानाथ अनंत :** (जल्म : १ मार्च १९३८, सांगे).

सुटके झुजारी. ताणें मॅट्रिकमेरेन शिक्षण घेतलें. १९५४ वर्सा तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी जालो. १९५६ वर्सा सावन तो गोवा लिबरेशन आर्मीचो वांगडी जालो. सुटके झुजारी पिटर आल्वारीस हाच्या फुडारपणाखाल तो भूंयगत घातकी वावरांनी वांटो घेतालो. 'गोवा लिबरेशन आर्मी' हे संघटनेवरवीं ताणें मिनाखण, रेल्वेमार्ग, बार्जी हांगा मेळून सुमार विशेक घातकी हल्ले घडोवन हाडपांत वांटो घेतिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५६ ह्या दिसा मडगांवा ताका

अटक केलो. उपरांत बंदरवणीत दवरून ताचे सुमाराभायर हाल केले. ताका आठ म्हयने बंदरवणीत दवरल्या उपरांत १० ऑक्टोबर १९५७ ह्या दिसा ताका प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून १६ म्हयने बंदरवणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर दर दिसा ६० रुपया हे प्रमाण ताका दंड भरूंक रायलो वा दंड भरपायेबदला आनीक साडेतीन वर्सां बंदरवणीची ख्यास्त दिली.

भारत सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वालन :** केरळ वाठारांतल्या कोचीन वाठारांत रावपी एक नुस्तेकारी जात. वल म्हळयार तळयांतलें नुस्तें. ह्या नुस्त्यांक धरपी ते वालन. परशुरामान त्या लोकांक न्हंयचेर आनी दर्यादिगेर व्हडीं चलोवपाखातीर हाडले अशी दंतकथा आसा. हे मुळचे आर्य आसून तांकां एका पेरुमल राजान कांय हक्क दिवन नावाडीचो धंदो करपाखातीर केरळांत हाडले अशेंय सांगतात.

हांच्यात पोटजात ना, पूण अलयकड, एन्नूल, वैश्यगिरियम आनी वझ्हपल्ली ह्या नांवांचीं चार घराणीं आसात. हे लोक दर्यादिगेर झोपड्यो बांदून रावतात. कांय वलनाचीं घरां विटांचीं वा फातरांचीं आसतात. हे लोक राम, कृष्ण, शिव, विष्णु आदी देवांक भजतात. भगवती ही तांची आवडीची देवी आसून मंगळाराक आनी शुक्राराक तिची पुजा करतात. पुजेवेळार तिका ताडी, केळीं, कोंबड्यो आनी आडसरां ओंपतात. दर वर्सा फाल्गून म्हयन्यात ते भगवतीचो कुंभोम भरणी नांवाचो एक व्हड उत्सव मनयतात. ह्या उत्सवाक मलबार, कोचीन, त्रावणकोर आदी वाठारांतल्यान व्हड प्रमाणांत लोक जमतात. नायर आनी हेर जातीचे लोक फुडलें वर्स सुखान वचपाखातीर तिका कोंबे अर्पण करतात. चेंगनोर हांगा मकरेच्या पयल्यादिसा (१४ जानेवारी) मकर विलक्कू नांवाचो व्हड उत्सव जाता. त्या दिसा रातचें देवळांत आनी देवळाभायर दिव्यांची रोशणाय करतात आनी सजयल्ल्या हत्तींक वाजयत - गाजयत देवळाक प्रदक्षिणां घालपाक लायतात. हे लोक कर्कदकम, भूलम आनी मकरम, (कर्क, तूळ, मकर) ह्या सक्रांतीच्या दिसा पितरांची पुजा करतात.

माघ म्हयन्याचे निमाणे ते शिवरातीचो उत्सव मनयतात. हाचेभायर ओणम, देसर आदी सणय ते मनयतात.

तांच्यात चलयेक पयले खेप मासिकपाळी येतकच तिका, चार दीस एके कुडींत दवरतात. तिचे जातीच्यो बायलो आनी एक मडवळण येवन ते चलयेच्या आंगांक तिळांचें तेल आनी हळद लायता. हे चार दीस तीं भश्ट मानतात.

हे लोक चलयेचें लग्न ल्हानपणात वा ती वयात येतकच करतात. तांच्यात ताळी बांदपाचो विधी केलो ना जाल्यार आवय - बापायक जातीभायर घालतात. एकाद्रो बरो दीस पळोवन तांच्यात ताळी बांदपाचो कार्यक्रम जाता. त्यावेळार चलयचे सोयरेधायरे अखवन ह्या जातीमुखेल्याकडे वचून ताका विड्याचीं पानां आनी कांय पयशे दक्षिणां म्हणून दितात. उपरांत ते अखवन हो विधी करपाक परवानगी दिता. न्हवऱ्याकडले लोक रातचे न्हवऱ्याक घेवन व्हंकलेगेर वतात थंय न्हवरो व्हंकलेच्या गळयांत ताळी बांदता. ही ताळी जो भुरगो बांदता तोच भुरगो ताळी बांदिल्ले चलयेकडेन लग्न जाताच असो ना. पूण त्या भुरग्याक तिचेचकडेन लग्न करपाचें आसल्यार ताळीचो आनी हेर खर्च चल्याच्या आवय बापायन करपाचो आसता. नाजाल्यार हो सगळो खर्च चलयेचो मामा करता. तांच्यात पत्रिका पळोवपाची चाल आसा. लग्ना दिसा न्हवऱ्याकडले लोक कापडाचे दोन कुडके, एक वा देड रुपया, थोडे तांदूळ, विड्याचीं पानां घेवन व्हंकलेगेर वतात. थंय एक कापड व्हंकलेचे आवयक दितात. उपरांत व्हंकले कडले लोक न्हवऱ्यागेर वचून मिठाय वांटतात आनी लग्न जालें अशें जाहीर करतात.

तांच्यात विधवा बायल आवय - बापायचे परवानगेन परत लग्न करता. घटस्फोट घेवपाचो आसल्यार अखवनाक साडे स रुपयामेरेन देणगी दिवची पडटा.

वालनांत मड्याक लासतात वा पुरतात. निमणो संस्कार दुसऱ्या, पांचव्या वा सातव्या दिसा करतात. तेराव्या दिसा ताचे लागसल्ले सोयरे मुंडण करतात. पंदराव्या दिसा पिंड दिवन तें उदकांत उडयतात. निमणे संस्कार चालू आससर दर दिसा भटाक एक आयदन भरून तादूंळ आनी निमाणे धा रुपया दितात. मेल्ल्या मनशान फाटल्यान त्रास करूं नये म्हणू तांच्यात संहर होम करपाची चाल आसा.

तांच्यात पितृसत्ताक वारसापद्दत आसा. तेचपरी तांच्यात जातपंचायतय आसा. ती जातींतलीं भौशिक झगडीं तेचपरी फौजदारी खटले आनी दिवाणी खटले हांचो निवाडो दिता. भारताच्या स्वातंत्र्याउप्रांत, शिक्षणीक अर्थीक आनी विज्ञानीक उदरगतींतल्यान सगळयांच जाती - जमातींत काळानुसार बदल घडत आसात. वालन समाजय ताका आडवाद ना.

- कों. वि. सं. मं.

**वालावलीकार, कॅप्टन गोरक्ष वर्दे :** पुंडलीक शेणवी वर्दे वालावलीकारालो हो पूत. तीस वर्सां तो पुर्तुगेजाचे नोकरेत आशिल्लो. गोंयच्या शिपायांचे पलटणीचो कॅप्टन म्हणून ताची नेमणूक जाल्ली. ताचे उपरांत गोरक्षरावांक व्हायसरॉयान राजनैतीक सेवेत आस्पावन घेतलो आनी पुणें दरबारांत ताची नेमणूक केली. गोगल आनी पुर्तुगेज हांचेमदी समेट घडोवन हाडपाचो ताणें येशस्वी यत्न केलो. वाडकारांकडेनय पुर्तुगेजांचे बरे संबंध आसचे, हेरवातीरय तो वावुरलो.

पुर्तुगेज आनी मराठी ह्या दोन भासांचेर ताचें बरेच प्रभुत्व आशिल्लें. पेशवे दरबारांतय ताचें वजन आशिल्लें. पेशव्यांनी ताका 'राव' ही उपाधी दिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

## वालावलीकार, कॅप्टन विठ्ठलराव गोर्की : (जल्म : ?; मरणः २३ जून १८०८ पुणें).

ही गोरक्षराव वर्दे वालावलीकार हागेले पूत. हाकाच विठोजी सिनाय गोर्की वा विठ्ठल सिनाय गोर्की ह्या नावान पुर्तुगेज वळखताले. पुण्याच्या दरबारात ताका विठ्ठल गोरक्षराव अशें म्हण्टाले. बापूय पुर्तुगेज सेनेत कॅप्टन आसतना ताच्या हाताखाल विठ्ठल गोर्की हो आस्फॅरच्या अधिकाराचेर आशिल्लो. बापूय मेल्याउपरांत व्हायसरॉय कोंदि द् ॲग (१७५८ - १७६५) हाचे कारकिर्दींत १७६५त ताका कॅप्टनाचो हुद्दो दिलो. उपरांत तो लश्कराचो कमांडंटय जालो. कॅप्टन आसतना सांखळेच्या भिरांकूळ झुजांत तागेली योग्यताय आनी धाडस दिसून आयलें. उपरांत ताका राजनैतिक सेवेत घेतलो आनी पेशव्यांच्या दरबारात ताची नेमणूक करपांत आयली. सावंतवाडी दरबारात तो आशिल्लो. पुण्याक एकूण पांच खेपो ताच्यो नेमणुको जाल्यो. पुर्तुगेजांचो वकील म्हणून बऱ्याच खेपो ताणे ज्यो कामगिऱ्यो केल्यात तेखातीर ताचेर त्या वेळावयले सगळे व्हायसरॉय खुश आशिल्ले. पेशवे दरबारांतय ताका मान आसलो. पेशव्यांनी ताका पालखेचो आनी मशालीचो भोवमानय दिल्लो. पिरायेच्या ७८ व्या वर्सा ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

## वाल्मीकी : संस्कृत भाशेचो आदिकवी आनी रामायणाचो कर्तो.

ह्या म्हाकवीच्या चरित्रासंबंदान विश्वसनीय अशी म्हायती मेळना. तैत्तिरीय प्रातिशाख्यांत (१.९.४) एक वैयाकरण वाल्मीकी मेळटा, पूण तो वयर उल्लेख केल्ल्या आदिकवीपरस वेगळो आसा. महाभारताच्या उद्योगपर्वांत एका गरुडवंशी विष्णुभक्त वाल्मीकीचें नांव येता. होय रामायणकर्तो वाल्मीकीसावन वेगळो मानचो पडटा. कारण गरुडवंश हो विष्णुभक्त आसून, रामायणकर्तो वाल्मीकी शिवभक्त आशिल्लो.

**भार्गव वाल्मीकी :** महर्षी वाल्मीकी हो कवी आशिल्लो, म्हणपाचें महाभारताच्या द्रोणपर्वावयल्यान कळटा (११८.४८). महाभारताच्या हेर पर्वांतय बऱ्याचशा सुवातींनी वाल्मीकीचे उल्लेख येतात. तो भार्गव वंशांतलो ब्राह्मण आशिल्लो, ही खाशेली गजाल, रामायणावयल्यान कळटा. रामायणाच्या बाल आनी उत्तरकांडांत च्यवन भार्गवाचो कथाप्रसंग आयला (बाल ७०.३२; उत्तर ६०.९४). मात थंय वाल्मीकीचो च्यवन भार्गवाकडेन संबंद आशिल्ल्याचें सुचित जायना. फुडल्या काळांत तो जोडला. वाल्मीकी स्वताच ते विशीं सांगता तें अशें -

प्रचेतसोऽहं दशमः पुत्रो राघवनन्दन ।

(वा. रा. उत्तर. ९६.१८)

**अर्थ -** (वाल्मीकी सीतेच्या शुध्दतायेची साक्ष दितना रामाक म्हण्टा) हे रघुनंदना, हांव प्रचेत्याचो धावो पूत आसा.

प्रचेता म्हळ्यार वरुण आनी भृगू हो वरुणाचो पूत आसा (श.ब्रा. ११.६.१.१). वरुणाची घरकान्न चर्षणी हिका भृगू आनी वाल्मीकी अशे दोन पूत जाले, असो उल्लेख भागवतांतय आयला (६.१८.१). विष्णुपुराण आनी मत्स्यपुराणांतय वाल्मीकीक भार्गवच म्हळा.

वाल्मीकी ह्या शब्दाची व्युत्पत्ती वल्मीक म्हळ्यार रोयण ह्या उतरावयल्यान सांगतात. वाल्मीकी म्हळ्यार रोयणींतल्यान भायर आयिल्लो, असो त्या शब्दाचो अर्थ आसा. भार्गव वंशाच्या च्यवनाचे बाबतींतय अशीच कथा मेळटा. भृगुपूत च्यवन तपश्चर्या करीत आसतना इतलो निश्चल आशिल्लो की, ताचे कुडीचेर रोयण वाडली. फकत ताचे दोन दोळे तितले रोयणींतल्यान भायर दिसताले आनी बाकीची सगळी कूड धांपिल्ली आशिल्ली.

हीच रोयण वाडपाची कथा फुडें वाल्मीकीचे कथेकडेन मिश्रित जाली. कारण वाल्मीकी हें ताचें नांव सार्थ जावप गरजेचें आशिल्लें. कृत्तिवास रामायणांत तर वाल्मीकीक च्यवनाचो पुतूच मानला.

**दस्यू वाल्मीकी :** वाल्मीकी हो मुदलांत दरोडेखोर आशिल्लो आनी व्हड तपश्चर्येउपरांत तो रामायणकर्तो कवी जालो अशीय एक कथा - परंपरा आसा. मात हे कथेच्या खरेपणाविशीं दुबाव उप्रासता. हे कथेचें पयलें विकसित रूप स्कंद पुराणांत मेळटा. त्या पुराणाची चडांत चड सामुग्री इ.स. च्या आठव्या शेंकड्या उपरांतची आसा आनी तातूंत बरेच प्रक्षेप जाल्यात, अशें श्री. हाजरा आपल्या 'पुराणिक रेकॉर्डस्' ह्या ग्रंथांत म्हण्टात. अशें जरी आसले तरी, महाभारताच्या अनुशासनपर्वांत वाल्मीकी डाकू - दरोडेखोर आशिल्ल्याचो आभास मेळटा.

वाल्मीकिश्चाह भगवान्युधिष्ठिरमिदं वचः ।
विवादे साग्निमुनिभिर्ब्रह्मघ्नो वै भवानिति ।।
उक्त क्षणेन चाविष्टस्तेनाधर्मेण भारत ।
सोजहमीशानमनघममोघ शरणं गतः ।।
मुक्तश्चास्मि ततः पापैस्ततो दुःखविनाशन ः ।
आह मां 'त्रिपुरघ्नो वै यशस्तेऽग्र्य' भविष्यति ।।

(म.भा. अनु. १८.८.१०)

**अर्थ -** (भगवान वाल्मीकीन युधिष्ठिराक ही म्हायती सांगल्या) एकदा खंयचे तरी भासाभाशेत अग्निहोत्री मुनीनी म्हाका ब्रम्हघ्न (ब्रम्हहत्या करपी) म्हळें. तितल्यानच हांव पापी जालो. मागीर त्या पापांतल्यान मेकळो जावपाखातीर हाव शिवाक शरण गेलो आनी ताचेच दयेन

पापमुक्त जालो. उपरांत दुःखनिवारक आनी त्रिपुरांतक शिवान म्हका म्हळें 'तुचें यश श्रेश्ठ जातलें'. वाल्मीकीच्या उतरावयल्यान फुडाराक ताका ब्रह्मघातकी सदस्यू मानपाकडेन कवींचो कल गेलो आनी ताणीं तशेतरेच्यो कथा निर्मिल्यो, अशें जावं येता.

वाल्मीकीविशीं अशो चार कथा दिसून येतात -

१) एक व्याध आशिल्लो. रामनामाच्या जपान ताका वर मेळ्ळो, 'तूं फुडल्या जल्मांत वल्मीक कुळांत जल्म घेतलो आनी वाल्मीकी ह्या नांवान कीर्तिवंत जातलो'. कृष्णा नांवाच्या एका तपस्याचे कुडीचेर रोयण वाडली आनी ताकालागून ताचें नांव वल्मीक पडलें. वयलो व्याध हो त्या वल्मीकाचोच पूत म्हणून जल्मलो आनी ताका वाल्मीकी हे नांव मेळ्ळें. फुडें तो दिव्य राम कथा रचपाच्या कामांत जैतीवंत जालो (पद्मपुराण वैश्णवखंड).

२) अग्निशर्मा नांवाचो एक डाकू आशिल्लो. एक दीस ताका सप्तर्षी मेळ्ळे. तो तांकां मारपाखातीर धावन गेलो. ऋशींनी ताका आडावन म्हळें, 'तूं हें पाप करता आनी ह्या पापान कुटुंबाचें पोट चलयता. तूं घराकडेन वच आनी घरच्या मनशांक विचार, की तीं तुज्या पापाचीं वांटेकार आसात काय कितें ? अग्निशर्मान त्याप्रमाण विचारलें तेन्ना घरच्या मनशांनी ताका न्हयकार दिलो. तेन्ना अग्निशर्माक पश्चाताप जालो. तो सप्तर्षींकडेन आयलो. सप्तर्षींनीं ताका एक मंत्र दिलो आनी ताका त्या मंत्राचो अखंड जप करूंक लायलो. अग्निशर्मा तपाक बसलो. तेरा वर्सां तो तसोच तप करीत रावलो. सप्तर्षी परत थंय पावले ताणीं मागीर ताका रोयणींतल्यान भायर काडलो. वाल्मीकी अशें ताका नांव दिलें आनी ताका रामायण बरोवपाचो आदेश दिलो (अवंतिखंड).

३) लोहजंघ नांवाचो एक ब्राह्मण आशिल्लो. तो आवय बापायचो सामको भक्त आशिल्लो. एका वर्सा दुकळ पडलो आनी ताका घरच्याचें पोट भरपाखातीर वाटमारी करची पडली. तेन्ना ताका सप्तर्षी मेळ्ळे आनी तांचेच आज्ञेवयल्यान तो घरा गेलो. तेन्ना ताचे दरोडेखोरीच्या पातकांत कोणूच वांटेकार जावपाक तयार जायना जालीं. तेन्ना सप्तर्षींकडेन तो परतलो. सप्तर्षींनी ताका 'जाटघोट' नांवाचो मंत्र उपदेशिलो. खरे पळोवंक गेल्यार तो दुश्ट मंत्र आशिल्लो, पूण तरीय ताच्या जपान लोहजंघाक सिध्दी मेळ्ळी (फुडलो कथेचो वांटो वयले कथेप्रमाण - नागखंड).

४) शमीमुख नांवाच्या ब्राह्मणाचो वैशाख नांवाचो पूत आशिल्लो. तो चोरयो - मारयो करून कुटूंबाचें पोट चलयतालो (फुडलो कथेचो वांटो वयल्या दोन कथां प्रमाण).

वयल्या सगळया कथांक निमणें आनी आयचें चालंत रूप अध्यात्मरामायणांत मेळ्ळें. थंय रामनामाच्या माहात्म्याचें वर्णन करतना वाल्मीकीन जी कथा सांगल्या ती वयल्या चार कथांप्रमाणूच आसा. फकत ताणें आपलेविशीं जी अदीक म्हायती दिल्या ती अशी-

आपूण जातीन ब्राह्मण, पूण आपूण किरात लोकामदीं ल्हानाचो व्हड जालो आनी फुडाराक तांचेमदींच रावंक लागलो. एके क्षूद्र बायलेसावन म्हाका भुरगे जालें, आपूण ताचें पोट भरपाखातीर वाटमारी करतालो (फुडली कथा वयल्या चार कथां प्रमाण). सप्तर्षींक शरण वतकच ताणें 'राम' ह्या नांवाचीं अक्षरां उरफाटीं म्हळयार 'मरा' अशीं करून आपल्याक त्या मंत्राचो जप करपाक सांगलें. आपूण 'मरा मरा' अशें जपूंक लागलो, पूण तें 'राम राम' जालें. एकाच जाग्यार उबो रावन तो मंत्र जपता आसतना आपले कुडीर रोयण वाडली. अशीं कितलीं तरी युगां गेलीं. उपरांत सप्तर्षी थंय परत आयले. ताणीं म्हाका रोयणींतल्यान भायर येवपाचो आदेश दिलो. वाल्मीकांतल्यान (रोयणींतल्यान) भायर आयिल्ल्यान तुवें आतां वाल्मीकी नांवान दुसरो जल्म घेतला अशे ताणीं म्हाका सांगलें (अध्यात्म ६.४२.८८).

सना पयलीं पयल्या शेंकड्यासावन वाल्मीकीक रामायणांतल्या घडणुकांकडेन समकालीन मानला. उत्तर कांडाच्या रचना काळांत अयोध्येच्या राजवंशाकडेन वाल्मीकीचो घट्ट संबंद दाखयला. तो दशरथाचो इश्ट जाला. परित्यक्ता सीता ताच्या आश्रमात बाळंत जावन तिका लव आनी कुश नांवाचे दोन पूत जाले. आपणे रचिल्लें रामायण वाल्मीकीन तांकां शिकयलें. रामाच्या अश्वमेधावेळार वाल्मीकीन सीतेच्या सतीत्वाचो निर्वाळो दिलो. फुडें वाल्मीकीक विष्णुचो अवतार मानताले. कवी वाल्मीकीक आदिकवी आनी ताच्या रामायणाक आदिकाव्य म्हण्टात. कवी आनी ताचें काव्य ह्या दोनूय विशुध्द रुपाची कसवटी म्हळयार वाल्मीकीचें रामायण जावन आसा. क्रौंचमिथुनांतल्या एकाचो निषादान वध केल्लो पळोवन वाल्मीकीक जें दुख्ख भोगलें, ते दुख्खच श्लोकत्वाक म्हळयार काव्यरुपाक पावलें, अशें बऱ्याच कवींनी म्हळां.

वाल्मीकीचें करुणामय मन रामायणात वचत थंय पाझरतना दिसता. फुडल्या साहित्यकारांनी महाकाव्याची जीं लक्षणां सांगल्यांत, तीं ताणीं रामायणावयल्यानच तयार केल्यात. आनंदवर्धन म्हण्टा, करुणरस हो रामायणाचो मुखेल रस जावन आसा. क्रौंचवधाच्या प्रसंगासावन सीता धर्तरेच्या पोटांत गडप जायमेरेन हें पुराय महाकाव्य करुणरसान थपथपलां. आदर्श बापूय, आदर्श आवय, आदर्श भाव, आदर्श घोव, अशे कितले तरी आदर्श रामायणांत व्हडा स्वरुपांत उबे केल्यात. दशरथी राम हो ह्या महाकाव्याचो मुखेल नायक आसून ताच्या बऱ्याचशा खाशेल्या गुणांचेर वाल्मीकीन आपले प्रतिभेचें अमृत शिंपडायलां. ह्या सगळया गुणांक लागून रामायण हें भारतीय संस्कृतायेचें व्हड अशें मंगल प्रतीकच दिसता. रामायण हो भारताचो राश्ट्रीय ग्रंथ थारला.

- कों. वि. सं. मं.

**वास्तुविद्या :** घर बांदावळीची विद्या वा शास्त्र. वास्तु हें उतर वस् = रावप ह्या धातूपसून जालां. ताचो अर्थ रावपाची सुवात असो जाता. सुविधा, सोबीतकाय आनी सशक्तपण ह्या बांदावळीच्या त्रिसुत्राचेर आदारीत अशें हें शास्त्र आसा.

पुर्विल्ल्या काळांत वास्तुविद्या म्हणजे निवासस्थान बांदपाचें शास्त्र इतलोच मर्यादीत अर्थ ताका आशिल्लो. वास्तुविद्या हो शिल्पशास्त्राचोच एक फांटो आशिल्लो. शुक्रनितिसार ह्या ग्रंथांत देवळां, देवप्रतिमा, उद्यानां, तळीं, प्रासाद हांच्या निर्मितीचें शास्त्र अशी शिल्पशास्त्राची व्याख्या दिल्ली आसा. पूण उपरांतच्या वास्तुशास्त्राविशींच्या ग्रंथांत त्या सगळ्या शिल्पशास्त्राकच वास्तुशास्त्र म्हळां. सादारणपणान वास्तुविद्या म्हळ्यार घर, देवळां, प्रासाद, तट, मनोरे, किल्ले, तळीं, बांयो, स्तूप विजयस्तंभ बी बांदपाचें शास्त्र. हाच्याविशीं जायते संस्कृत ग्रंथ उपलब्ध आसून तातूंत वास्तुशास्त्राचे नेम दिल्ले आसात. भारतांत सगळेकडेन देवळां, प्रासाद, मनोरे, स्तंभ, तळीं बऱ्या वा भग्नावशेश रुपांत सांपडटात तांकां वास्तुशिल्पां म्हण्टात.

ऋग्वेदांत घररचणुकेसंबंदीं कांय उल्लेख सांपडटात. तांचेवयल्यान वेदकाळांत वास्तुरचना हें एक धार्मिक कृत्य मानताले म्हणपाचें कळटा. वास्तोष्पती ही वास्तुची अधिश्ठात्री देवता आसून, घररचनेच्या वेळार तिका आवाहन करपाची प्रथा आशिल्ली. त्वष्टा, ऋभू, मान (अगस्त्य), वसिष्ठ हे त्या काळांतले वास्तुशास्त्रज्ञ आशिल्ले.

यज्ञवेदीची रचणूक धर्माकडेन संबध्द आशिल्ली. एके ऋचेंत वेदीचें वर्णन केल्लें आसा. त्या काळांत मेल्ल्यांच्यो अस्थी जमनींत पुरून तांचेर स्मारकां बांदपाची प्रथा आशिल्ली अशें कांय पंडितांचें मत आसा. तांचें वर्णन धाव्या मंडलांतल्या १८ व्या सुक्तांत सांपडटा. ताच्यावयल्यानच बौध्द लोकांक स्तूपांची कल्पना येवजली आसुंये.

घररचनेच्या वेळार म्हणपाचीं कांय सुक्तां अथर्ववेदांत आसात. तातूंत वास्तुशास्त्रांतले जायते पारिभाषिक शब्द वापरिल्ले आसात. ब्राह्मणग्रंथांत यूप, वेदी आनी मसंड हांचें वर्णन आसा. ऐतरेय आनी शतपथ ब्राह्मणांत तांची रचना कशी करची तेंय सांगलां. आर्यांच्या आनी अनार्यांच्या बांदकामाचे पद्दतींत बरोच फरक आशिल्लो.

वेद आनी ब्राह्मणांतल्या वर्णनांवयल्यान वास्तुरचना इल्ली - इल्ली विकसीत जायत आसा म्हणपाचें जाणवता. वास्तुशास्त्रांतले कांय नेमय तातूंत सांपडटात. पूण त्या काळांतलें वास्तुशास्त्र अशें निर्माण जावंक नाशिल्लें. गृह्यसूत्रांत वास्तुशास्त्राचे जायते सिध्दान्त सांपडटात. तातुंतल्यानूच फुडें वास्तुशास्त्र निर्माण जालें. वास्तुरचना करतना जे धर्मीक विधी करताले तांचें वर्णन गृह्यसूत्रांत आसा. तशेंच घराचे रचणुकेविशींचीं सामान्य तत्त्वांय सांगिल्लीं आसात. घर बांदतना जे नेम पाळपाक जाय तेय तातूंत सांगिल्ले आसात. तशेंच घराभोंवतणीं कसलीं झाडां रोवचीं, कशीं रोवचीं तेंय सांगलां. ताचेउपरांत वास्तोष्पती आनी हेर देवतांक हवी अर्पण करपाविशीं नेम दिल्ले आसात. यज्ञवेदीच्या रचणुकेविशींचेय नेम दिल्ले आसात.

वाल्मीकिरामायणांतल्या प्रासाद, नगरां आनी किल्ले हांच्या वर्णनांवयल्यान त्या काळांत वास्तुशास्त्र बरेंच विकसीत जाल्लें म्हणपाचें जाणवता. जायते राजा वास्तुशास्त्रज्ञांक मान दिताले आनी वास्तुरचनेविशीं तांचेकडल्यान मार्गदर्शन घेताले. मय आनी विश्वकर्मा हे त्या काळांतले नामनेचे शिल्पज्ञ. मयाक दानवांचो आनी विश्वकर्माक देवांचो मुखेल वास्तुविशारद मानताले.

घराचे रचणुकेच्या वेळार पशुयज्ञ करपाचें विधिविधान गृह्यसूत्रांत आनी शिल्पशास्त्राच्या हेर ग्रंथांत सांगिल्लें आसा. तेचप्रमाण सगळयो वास्तुरचना करताले म्हणपाचें रामायणावयल्यान कळटा. तशेंच नगरांची रचना, तांच्या भोंवतणचे तट, मनोरे, खंदकाची संरक्षक वेवस्था हांचेविशींची म्हायती वाल्मीकीन दिल्ली आसा. त्या काळांतल्या व्हडल्या प्रासादांचींय वर्णनां रामायणांत सापडटात. तांचे जायते प्रकारय आशिल्ले. तशेंच पशुपक्षी, लक्ष्मी हांच्यो प्रतिमाय जायतेकडेन कोरांतिल्ल्यो आशिल्ल्यो. यज्ञसभा, वेदी, चैत्य, देवळां हांचींय वर्णनां रामायणांत जायतेकडेन आसात. पूण चडशीं वर्णनां काव्यमय आशिल्ल्यान वास्तुरचनेखातीर खंयचे पदार्थ वापरताले तें खात्रीन सांगपाक येना.

महाभारतांतय वास्तुशास्त्राविशींचे जायते उल्लेख सांपडटात. त्या काळांत वास्तुरचना करतना होमहवन करपाचीय प्रथा आशिल्ली.

शांतिपर्वांत नगरसंरक्षणाखातीर तटबंदी करपाविशीं बरीच म्हायती दिल्ली आसा. गडकोट, प्रासाद, घरां हांचेय जायते प्रकार थंय सांगिल्ले आसून तांचीं नांवांय दिल्लीं आसात. मय नांवाच्या शिल्पशास्त्रज्ञान पांडवांखातीर निर्माण किल्ली मयसभा जाल्यार खुबच ओडलायणी आशिल्ली. रामायणाभाशेनच महाभारतांतय वेगवेगळ्या तरेन सुशोभित केल्ल्या वास्तुंचीं वर्णनां आसात. ह्या बांदकामांत रत्नां, स्फटीक, विटो, पाशाण, लांकूड हांचो उपेग जातालो अशें दिसता. पूल आनी धरणां (सेतुबंध) बांदपाचें गिन्यानय त्या काळांतल्या स्थापत्यविशारदांक आशिल्लें. नगररचनेचीय तांकां बरी म्हायती आशिल्ली.

जातकांतल्या कथांनीय वास्तुविद्येविशीं बरीच म्हायती मेळटा. ह्या बांदकामांनीय चडकरून विटो, लांकूड, लोखण, पाशाण हांचो उपेग केल्ल्याचे उल्लेख सांपडटात. जातककथांतल्या वर्णनांवयल्यान वास्तुरचना हो एक शिल्पकलेचो फांटो मानताले म्हणपाचें जाणवता. कारण वास्तूची सोबीतकाय वाडोवपाखातीर जायत्या तरेची कलाकुसर केल्ल्याचे उल्लेख तातूंत सांपडटात.

पालींतल्या महावग्ग, चुल्लवग्ग सारकिल्ल्या धर्मीक ग्रंथांनीय वास्तुशास्त्राचे बरेच उल्लेख आसात. तातुंतल्यो गुहा आनी विहार हांचो उल्लेख म्हत्वाचो आसा.

चाणक्याच्या अर्थशास्त्रांत वास्तुविद्येचेर जायतीं प्रकरणां आसात. तातूंत वास्तूचो अर्थ घरां, घरांची जागा, आराम - भवनां,

सेतुबंध, तळीं, धरणां असो दिल्लो आसा. पूण तातूंत वास्तुशास्त्राची स्पश्ट चर्चा ना. तेन्ना वास्तुशास्त्र विकसित जावन ताचे नेम निश्चित जाल्ले आशिल्ले आनी देखून त्या नेमांप्रमाण वास्तुरचना करची अशें चाणाक्यान कांय कडेन सांगलां.

ताचे उपरांत वास्तुशास्त्राचेर जायते ग्रंथ रचले. मत्स्यपुराणांत अशे ग्रंथ बरोवपी भृगू, अत्री, वसिष्ठ, विश्वकर्मा, मय, नारद, नग्नजित, विशालाक्ष, पुरंदर, ब्रह्मा, कुमार, नंदीश, शौनक, वासुदेव, अनिरूध्द, शुक्र आनी बृहस्पती ह्या १८ वास्तुशास्त्रज्ञांचीं नांवां दिल्लीं आसात. कांय पंडितांच्या मतान हीं फकत परंपरागत नांवां आसून तांणी ग्रंथ बरोवंक नात. विश्वकर्मा हें नांव परंपरागत आसा तो देवांचो वास्तुविशारद आशिल्लो. कालांतरान विश्वकर्मा हो शब्द बरो वास्तुविशारद अशा अर्थान रूढ जालो. मागीर जायत्या वासुशास्त्रज्ञांनी विश्वकर्मा ही पदवी धारण केली.

मय हो एक दानव आशिल्लो. ताका शुक्राचार्याकडल्यान वास्तुविद्येचें गिन्यान मेळिल्लें. विश्वकर्माक जसो नागरपद्दतीचो व्हड आचार्य मानतात तसोच मय होय दक्षीण भारतांतले द्राविड शिल्पपद्धतीचो व्हड आचार्य मानतात. कालांतरान हेर वास्तुविशारदांनी मय हें नांव धारण करून ग्रंथ रचले आसुंये. बृहत्संहितेंतय आनीकय कांय ग्रंथकारांचीं नांवां आसात. तशेंच अगस्त्य, मार्कंडेय, नारद, नग्नजित, भृगू, शुक्र, बृहस्पती, अगस्त्य हे सनपूर्व २०० च्या पयलीं जावन गेले आसुंये.

विश्वकर्मप्रकाश हो वास्तुशास्त्राचो सगळ्यांत पुर्विल्लो ग्रंथ. मत्स्यपुराणांत वास्तुशास्त्राची म्हायती थोडक्यांत दिल्ली आसा. बृहत्संहितांतूय वराहमिहिरान पयलींच्या वास्तुशास्त्रीय ग्रंथांतली म्हायती एकठांय केल्ली आसा. तशेंच आनीकय जायत्या ग्रंथांनी वास्तुविद्येचेर म्हायती सांपडटा. तांचे प्रवर्तक आचार्यय खूब जाण आसात.

वास्तुशिल्पाच्यो नागर म्हणजे उत्तर भारतीय आनी द्राविड म्हणजे दक्षीण भारतीय ह्यो दोन मुखेल पद्दती प्रसिद्द आसात. उ. भारतीय पद्दत ही आर्यांची आनी द. भारतीय पद्दती ही द्राविडांची. तांचेमदले मुखेल भेद अशे आसात -

१) देवळांचें वर्गीकरण आनी नांवां हातूंत वेगळेपण. दक्षिणी पद्दतींतलें तालमान नागर पद्दतींत ना. २) नागर पद्दतीच्या वास्तुशास्त्रांत आमलकाचो निर्देश आसता तो दक्षिणी पद्दतींत ना. ३) खांब आनी तांच्या वेगवेगळया भागांच्या नांवांत वेगळेपण. ४) दक्षिणी पद्दतीच्या वास्तुशास्त्रांत कांय भवनांच्या नांवाच्या शेवटाक कान्त हो शब्द आसता, तसो नागर पद्दतींत नासता. ५) वेसर पद्दतीचीं भवनां दक्षिणी पद्दतींत आसतात, तशीं उत्तरी पद्दतींत नात. ६) चौथरे आनी उंचवटे हांचें वर्गीकरण वेगवेगळया तरेचें. ७) वेगवेगळीं रावपाच्या जाग्यांचीं नांवां. ८) वेगवेगळीं मंडपाचीं नांवां. ९) गोपूर हें द्राविड पद्दतीचें द्वारशिल्प नागर पद्दतींत ना. १०) दक्षिणी पद्दतींत देवळाच्या भोंवतणी जायत्यो वण्टी आसतात तशो नागर पद्दतींत ना. ११) दक्षिणी पद्दतीच्या देवळांक अधिश्ठानां वा पिठां आसतात; नागर पद्दतींत तशीं नात.

वास्तुविद्येच्या विकासावांगडा हेर कांय शिल्पपद्दती उदयाक आयल्यो तांचीं नांवां अशीं - लाट, वैराट वा ववाट, भूमिज, कलिंग, आंध्र, वेसर, ओडिया, महाराष्ट्र, पल्लव, चोळ, चालुक्य, होयसळ आदी. ह्यो नव्यो पद्दती म्हणजेच नागर आनी द्राविड पद्दतींचींच मातशींशीं वेगळीं रुपां.

वास्तुशास्त्रावयल्या आदल्या सगळया ग्रंथांचें स्वरूप सादारणपणान सारकेंच आसा. तातूंत पयलीं ज्योतिशशास्त्राविशींचे सिध्दांत आनी मागीर रचनाविशयक सिध्दांत आसतात. वास्तुरचनेखातीर शुभाशुभ म्हूर्त खंयचे, योग्य जागा खंयच्यो, त्या जागेवयल्या अतिमानुशी शक्तींक संतुश्ट कशो करच्यो हाचें आनी वास्तुपुरूशमंडलाच्या आंखणीचें विवेचन पयल्या भागांत आसता. तातूंत जमनिची देंवती, वाऱ्याची दिशा, मातयेचें स्वरूप, उदकाची उपलब्धता हांचें विवेचन आसता.

वास्तुरचनेविशीं विवेचन करचेपयलीं स्थपती आनी मापनपद्दती हांची म्हायती दिल्ली आसता. स्थपती म्हणजे वास्तुरचना करपी मुखेल कारागीर. मापनपद्दतीचीं कोश्टकांय सगळया ग्रंथांत दिल्लीं आसात. तशेंच जी वास्तू उबारपाची आसता तिचो आराखडो (विधान) तयार करपाविशीं म्हायतीय दिल्ली आसता. तातूंत नगरविधान, दुर्गविधान, मंदिरविधान, गृहविधान सारकिल्ल्या सगळया तरेच्या बांधकामांचे आराखडे येतात. रस्त्याची आंखणी आनी नगरांचे प्रकारय सांगिल्ले आसात. तशेंच नगररचणुकेंत दुर्गरचनेकय म्हत्वाचें स्थान आसता. नगरांत राजप्रासाद, सैनिकनिवास आनी हेर सामान्य लोक हांचे वेगवेगळे भाग आसतात. वास्तुच्या विधानांत अशेतरेची हेर जायती म्हायती दिल्ली आसता.

भारतीय वास्तुशिल्पांची अस्तंती वास्तुशास्त्रज्ञांनी तुस्त केल्या. तशेंच भारतांतलीं अलौकीक वास्तुशिल्पां पळोवन सगळेंच जग अजाप जालां. हाचें श्रेय पुर्विल्ल्या शिल्पकारांक वता.

भारतांतल्या सामक्या पुर्विल्ल्या अशा सिंधुसंस्कृतीच्या अवशेशांत नगरांचे जे अवशेश सांपडल्यात तांचेवयल्यान ते संस्कृतीच्या निर्मात्यांचें वास्तुशास्त्र खुबच फुडारिल्लें आशिल्लें म्हणपाचो अदमास येता.

ताच्या उपरांतच्या दोन हजार वर्सांच्या कालावधींतलीं नागरी शिल्पांच्यो देखवी आयज उपलब्ध नात. नागरी शिल्पाप्रमाणच संरक्षक शिल्पांच्यो देखवी चडशो पळोवपाक मेळनात. इ.स. १२०० च्या पयलींचो खंयचोच दुर्ग ताच्या मूळ स्वरुपांत सापडूंक ना. धर्मीक, म्हणजेच चडकरून मंदिरशिल्पांची स्थिती मात बरी आसा.

मौर्यपूर्वकाळांतलीं वास्तुशिल्पां आयज सांपडनात. कारण त्यो वास्तू चडशो लांकडाच्यो आशिल्ल्यो. अशोकान बौध्द धर्माच्या प्रसारावतीर जीं फातरी शिल्पां निर्माण केलीं तीं आजूनय पळोवपाक मेळटात. वास्तुशिल्पाच्यो त्यो सगळयांत पुर्विल्ल्यो देखी. तशेंच भारतांत जीं हजारांनी लेणीं सांपडटात तांचीय निर्मिती अशोकान सुरू केली. विहार आनी चैत्यघरां अशीं दोन तरांचीं लेणीं सगळयाक आसात.

ताचेउपरांतच्या काळांत कुशाण वंशांतलो राजा, कनिष्कान भारताच्या वायव्य भागांत जायते स्तूप बांदले. इ.स.च्या ५ व्या शेंकड्यामेरेन त्या भागांत जे जायते स्तूप निर्माण जाले ते सगळे गांधार वास्तुशैलीचे आसात. ताचेवांगडा महाविहारय निर्माण जाले. हीं सगळीं वास्तुशिल्पां पाशाणाचीं आसून तातूंत बौध्द मूर्ती सांपडटात. उदेंत भारतांत सारनाथ, श्रावस्ती, कसिया सारकिल्ल्या जाग्यांचेर गुप्त काळापसून इ.स. च्या १२ व्या शेंकड्यामेरेन स्तूप निर्मिती जाली.

लेण्यांची निर्मिती इ.स. च्या १० व्या शेंकड्यामेरेन चालू आशिल्ली. तातुंतलीं अजंठा, बेडसा, कान्हेरी, नासिक, वेरूळ आनी बाघ हांगाचीं लेणीं चड उल्लेखनीय आसात.

देवतांचीं देवळांय गुप्तकाळांत पयलीं निर्माण जालीं. गुप्तकाळापसून फुडें सुमार हजार वर्सां देवळां - शिल्पकलेचो खूब विकास जालो. नागर आनी द्राविड शैलीचीं जायतीं देवळां निर्माण जालीं. त्या दोन पद्दतींतल्यान जायत्यो प्रदेशीक पद्दती उदेल्यो. ह्या सगळया पद्दतींचीं हजारांनी देवळां आयज पळोवपाक मेळटात.

इ.स. च्या १३ व्या शेंकड्याचे सुरवेक दिल्लीचेर मुसलमानांची सत्ता सुरू जाल्याउपरांत ह्या देशांत मुस्लिम वास्तूंची निर्मिती सुरू जाली. पयल्या शंबर सवायशें वर्सांतल्यो इमारती खूब व्हड आनी सोबीत आसात. तातूंत नक्षीकाम केल्लें आसा. कुतुबमिनारच्या लागींची कुतुब मशीद कलात्मकरीतीन सजयल्ली आसा. इल्तमशची कबर, अलाउद्दीन खिलजीची कबर, अलाइ दरवाजो सारक्यो इमारती हे पद्दतीच्यो आसात.

इ.स. १३२० उपरांतच्या बांदकामांत सादेपणां खूब दिसतात. दिल्लींतली ग्यासुद्दीन तुगलकाची कबर आनी कलन मशीद हीं त्या काळांतल्या वास्तुकलेच्यो देखी आसात.

इ.स. च्या १५ व्या शेंकड्याचे सुरवेक परत सोबीत इमारती बांदपाक लागले. त्या काळांत जायतीं ल्हान घराणीं उदयाक आयलीं. तांणी वेगवेगळयो शिल्पपद्दती उपेगांत हाडल्यो. जौनपूरच्या शर्की घराण्याच्यो तीन मशिदी आनी कांय कबरी उल्लेखनीय आसात. माळव्याचो सुलतान होशंगशहा हाणें १४ व्या शेंकड्यांत बांदिल्ली जामा मशीद सर्वोत्कृश्ट आसून तिचो विस्तार खूब व्हड आसा.

इ.स. च्या १४ व्या शेंकड्यांत दक्षिणेंत स्थापन जाल्ल्या बहमनी राज्याची राजधानी इ.स. १४२८ मेरेन गुलबर्गाक आशिल्ली. त्या काळांत थंय जायत्यो इमारती बांदिल्ल्यो. तातुंतली थंयची व्हड मशीद उल्लेखनीय आसा. बिदर शारापसून ५ मैलांचेर उपरांतच्या बहामनी राजांच्यो कबरी आसात. त्यो भव्य आसून तांचें कामय ओडलायणें आसा.

विजापूरचें आदिलशाही घराणें परकीय आसून तांचीं शिल्पकामां सामकीं वेगळीं दिसतात. तातूंत भव्यपण आनी कलाकुसर हे दोनय गूण सांपडटात. तशेंच कारागिरांची कल्पकताय दिसता. विजापूरचो व्हडलो गोलघुमट ही ते पद्दतीच्या वास्तुशिल्पाची एक देख. अली आदिलशहान बांदिल्ली जामी वा जुम्मा मशीद हिंदुस्थानांतली ओडलायणी मशीद आसा.

मोगल वंशाकडेन संबंद्दीत भारतीय सारासेनिक शिल्पपद्दत इ.स. च्या १६ व्या शेंकड्यांत उदयाक पावली. तिची पयली देख म्हणजे दिल्लीकडची शेरशहान बांदिल्ली मशीद. हुमायून बादशहाची कबर, अकबरान बांदिल्ल्यो मशिदी, फत्तेपूर शिक्रिची भव्य इमारत हातूंत हिंदु - मुस्लीम शिल्प कलेची भरसण जाल्ली दिसता.

जहांगीर बादशहाचे कारकिर्दींत बांदिल्ल्यो मशीदी आनी

**वास्तूशैलीचे नमुने-**



सेंट पाऊल चर्च, लंडन



वस्तूभांडार, शिकागो

कबरी इराणी पद्दतीच्यो आसात. आग्रा आनी दिल्लीचे राजवाडे, ताजमहाल आनी आग्रा किल्ल्यांतली मोती मशीद हीं मोगल - शिल्पकाळांतलीं रत्नां दिल्लीची जामा मशीद भव्य आसून तिची रचणूक सोबीत आसा. औरंगजेबाचे कारकिर्दींत मात हे शिल्पपद्दतीक देंवती कळा लागली.

मुसलमानी सत्ता दिल्लीक स्थापन जाल्याउपरांत सुरवेक जें बांदकाम जालें, तातूंत हिंदूंच्या देवळांची मोडतोड करून मेळयल्ल्या भागाचो चड वापर केल्लो. ताच्याउपरांत बांदिल्ल्या वास्तूंनी हिंदू कारागिरांची कला स्पश्टपणान दिसता. हिंदूंचीं जायतीं प्रतिकां मुस्लिम वास्तुशिल्पांत सांपडटात. तांची रचणूक मात वेगळी आसता.

पुर्विल्ल्या काळांतलीं अशे तरेचीं जायतीं शिल्पां आतां उपलब्ध नात. पूण मध्ययुगांतले राजप्रासाद, घांट, तळीं, किल्ले - कोट, मेल्ल्यांचीं स्मारकां हीं वास्तुशिल्पां बरींच पळोवपाक मेळटात. उ. भारतांत तीं सगळेकडेन आसात. अशा बांदकामांनीय वास्तुकलेचें दर्शन घडटा. तशेंच भारताच्या सगळया भागांनी अशीं पुर्विल्लीं आनी मध्ययुगीन वास्तुशिल्पां बरे वा भग्न अवस्थेंत पळोवपाक मेळटात. संवसारीक वास्तुशास्त्राचे दोन सदळ अशे वर्ग करूं येतात. भारतीय, चिनी, जपानी आनी हेर उदेंती स्वतंत्र शैली आशिल्ल्यो वास्तुशास्त्र हो पयलो वर्ग. युरोपीय आनी अमेरिकी स्वतंत्र शैलीचें वास्तुशास्त्र हो दुसरो वर्ग.

वास्तुशास्त्राचे विकास परंपरेंत त्या त्या राश्ट्राचे जीवन पद्दतीचो परिणाम दिसता. वास्तुशास्त्राच्या इतिहासाक त्या त्या काळांतली विचार धारा स्पर्श करून गेल्ली दिसता. रोमन वास्तुशास्त्रांत विज्ञानीक निर्मिती दिसता. फ्रेंच वास्तुशास्त्रांत, क्रियाशिलता मेळटा. मुसलीम वास्तुशास्त्रांचेर यथार्थ वादाचो प्रभाव दिसता तर भारतीय वास्तुशास्त्रांत अध्यात्म प्रतित जाल्लें मेळटा.

आधुनिक तंत्रज्ञानाच्या काळांत, वास्तुशास्त्राच्या सगळया आदल्या शैलींक छेदून, एक सर्वव्यापी आनी समान अशी संसारीक शैली निर्माण जावंक लागल्या. अर्थीक संदर्भ घेवन, उपयुक्तता ही मोख नदरे मुखार दवरून आनी जाग्याची काटकसर लक्षांत दवरून चडांत चड सुवात आडावपी पसरट बांदावळी आतां खुबच उण्यो जातात. ते बदला जायते मजली, भोव उद्देशी आनी चडांत चड वापरांत उरपी अशो उंच बांदावळी उबारपाकडेन संवसारीक कल दिसूंक लागला. आदल्या बांदावळीचें अलंकारीक कलाकुसरीचें रूप अनावश्यक जावन आतां आधुनिक बीन कलाकुसरीचें सरळ रेशेंतलें रूप चडांत चड बांदावळींक प्राप्त जावंक लागलां. वास्तुशास्त्राच्यो आदल्यो सगळयोच शैली आतां आडवादान दिसूंक लागल्यात आनी आधुनिक 'ग्लोबल' शैलीचो प्रभाव आतां आधुनिक बांदावळीनी झळकूंक लागला.

- कों. वि. सं. मं.

**वास्तुशांती :** वास्तुपुरसाचे प्रसन्नतेखातीर आनी बांदील्ल्या घरांत यजमानाक आयुश्य, आरोग्य, निर्विघ्नता, संपत्ती ह्या गजालींची प्राप्ती जावपाखातीर ज्यो धर्मीक विधी करतात ताका वास्तुशांती अशें म्हण्टात.

मत्स्यपुराणांत अध्याय २५३ ते २५७ हातूंत नवी वास्तु निर्माण केल्या उपरांत शांती करपाचो विधी सांगला.

पयलीं म्हत्वाच्या कार्याविशींचे बांदावळीचो आराखडो आनी देवक दवरपाचो विधी भटाकडल्यान करून घेवन फुडलें कार्य करतात.

वास्तुशांतीचे स्थापणुकेखातीर दोन चवकोनी वेदी तयार करतात. तांतुंतल्या उत्तर वेदीच्या चारूय कोनशांनी खिळे मारून, कुशीक भात दवरून अग्निस्थापना करतात ताका वास्तूमंडळ म्हण्टात. वेदीचेर शिखी, पर्जन्य, जयंत अशा ४५ देवतांचें आवाहन करतात. वास्तुदेवता हो एक दादलो आसा, अशी कल्पना करून ताच्या वेगवेगळया अवयवांच्या जाग्यार देवतांची स्थापना करून वास्तुमंडलाच्या मदल्या भागार वास्तुपुरसाची प्रतिमा दवरून सगळया देवतांसयत ताची पुजा करतात आनी होमाच्यावेळार ग्रहांखातीर समिधा, चरूं आनी आज्य हांचें हवन करतात. ह्या वास्तुमंडलांतल्या देवतांखातीर रुमडाच्यो समिधा, तीळ, पायस आनी आज्य हांची आहुती दितात. वास्तोष्पती हे मुखेल देवतेखातीर वयल्या चारय हविर्द्रव्याची दर एकी १०८ आहुती दितात. तेचपरी वास्तोष्पतिसुक्तांन वास्तोष्पतीखातीर बेल ओंपतात.

होमाउपरांत सगळया देवतांक चरुचो बळी दितात. उपरांत यजमान आनी ताची घरकान्न न्हावन धुवन नवीं वस्त्रां न्हेसतात. उपरांत ब्राह्मण यजमान दांपत्याचेर तांच्या घरच्यांसयत ऋत्विज अभिशेक करतात. तिनपोडी सूत घेवन पवमान आनी राक्षोघ्न हीं सुक्तां म्हणत नव्या घराभोंवतणी गुठलायतात. त्या वेळार, यजमान आनी ताची घरकान उदकाची धार धरीत घराभोंवतणी प्रदक्षणां घालतात आनी घराचे आग्नेय दिकेच्या सालाच्या कोनशाक फोंडकूल खणटात. एके पेटयेंत सात धान्यां, धंयभात, फुलां आनी शेळो ह्यो वस्तू घालून तातूंत वास्तुपुरसाची मूर्त दवरतात. त्या वेळार मंगल वाद्यां वाजयतात. उपरांत ती पेटी फोंडकुलांत दवरून वास्तुपुरसाची प्रार्थना करतात आनी खड्डो मातयेन पुरयतात. उपरांत यजमान भटाक दक्षणां दिवन शांतिविधी सोंपयता.

थारायल्ल्या म्हूर्तार घर प्रवेश (गृहप्रवेश) करतात. तेन्ना यजमान धंय, अक्षता, गंध, फुलां आनी उदक घाल्ली कळसुली हातांत घेवन ब्राह्मणाच्या (भटाच्या) फाटल्यान चलत घरांत प्रवेश करता. त्या वेळार 'गृहा मा बिभीत' ह्या मंत्राचो जप करतात. गृहप्रवेश केल्या उपरांत यजमान गणपतिपूजन आनी पुण्याहवाचन करता.

दर वर्सा वा दर ऋतूंत वास्तुशमन होम करचो अशें सत्याषाढ गृह्यसूत्रांत सांगला.

- कों. वि. सं. मं.

**वाळटी :** वसणूक करून समाजीक पद्दतीन जीण जगपी एक शिस्त प्रीय जीव. वाळटिचो आस्पाव आयसोप्तेरा गणांत जाता. संवसारांत सुमार २००० जातींच्यो वाळट्यो आसात. मुयेभशेन बारीक आंग आनी मुयेभशेनच समाजीक जिवीत प्रणालीकलागून पयलीं वाळटेक 'व्हायट एन्ट' (धवी मूय) अशे म्हण्टाले. उपरांत तिचेर खोलायेन अभ्यास जावन तिका 'टरमायट' (Termite) हें नांव दवरलें. कुडिचे रचणुकेंत वाळटीचें जल्लो आनी टोळाकडेन चड साम्य आसा.

वाळटिची कूड तकली, छाती आनी पोट अशी तीन भागांनी विभागल्या. चडशे वाळटीचे दोळे पुरायपणान विकसीत जाल्ले नासतात. तकली वाटकुळी वा तांतया सारकी आसता. ताची शृंगिका (Antennae) कांय खंडांतल्यान तयार जाल्या. वाळटिची छाती तीन खंडीय. पारवां आशिल्ल्या वाळट्यांक वयल्या दोन खंडांक पारवांच्यो दोन जोडयो आसता. जाल्यार सकयल्या खंडांक तीन पायांच्यो जोडयो आसता. ताचें पोट तीन खंडीय आसता. ताचो रंग धवसार आसता.

दर एके वसणुकेंत वाळटिंचे तीन वर्ग आसतात. शाही वा जनक वर्ग हो तातुंतलो सगळयांत उंचेलो. वाळटींक जल्म दिवन आपले वसणुकेची वाड करप आनी नवी वसणूक उबारप हें तांचें मुखेल काम. सबंद वसणुकेंत ह्या दोगांच्याच सगळयां अवयवांची पुरायपणान वाड जाल्ली आसा. हेरांपरस हांचो रंग मातसो गाड आसता. तांका पारवांचे दोन जोड आसतात. नर मादीपरस ल्हान आसता. चड करून मातयेच्या घोंटेरा सारख्या घरांत (रोयणींत) मध्य भागार राजा - राणयेचो राबितो आसता. मादयेची तकली आनी छाती ल्हान आसता. पूण तिचें पोट २ ते २½ इंच इतलें व्हड आसता. संयोगा उपरांत कांय दिसांनीच राणयेचें पोट आनीक व्हड जाता. उपरांत राणी रात - दीस अशी हजारांनी तांतया घालता. कश्टकरी वाळटी उपरांत तीं तांतयां नितळ करून, रोयणीत तांचेखातीर केल्ल्या खाशेल्या सुवातींनी (Cells) जतनायेन दवरतात. विकसीत जाल्ले दर एके वसणुकेंत दर वर्सा पांरवा आशिल्लो जनक वर्ग तयार जाता. पूण उपरांत त्यो आपल्या आवय - बापायक आनी हेर सांगात्यांक सोडून आपली नवी वसणूक उबारपाक भायर सरतात.

वाळटींचो दुसरो वर्ग म्हळयार कश्टकरी वर्ग. ह्यो वाळटी ल्हान आसून तांका पारवां नासतात. तांचे दोळेय पुरायपणान विकसित जाल्ले नासतात. तांची तकली आनी पांय घट्ट आसता. हातुंतल्यो कांय वाळटी घोंटेर नितळ करतात, कांय रोयण बांदतात वा वाडयतात. कांय तांतयांखातीर सुवात तयार कतात, कांय खावड आनी उदक हाडटात, जाल्यार कांय ल्हान पिलांक सांबाळटात वा पिडेस्त वाळटींचेर देखरेख दवरतात. लश्करी वाळटीचो तिसरो वर्ग आसता. त्यो कश्टकरी वाळटीपरस मातश्यो व्हड आसता. पूण तांकां पारवां आसनात. तांची तकली, जबडो आनी पांय घट्ट आसता. पूण तांची कूड चड मोव आसता. दुस्मानापसून आपले वसणुकेची राखण करप आनी दुसरे वसणुकेचेर घुरी घालप हें तांचें मुखेल काम. लश्करी आनी कश्टकरी वाळटी ह्या दोनय वर्गांत नर आनी मादी आसता. पूण तांच्यांत प्रजनन शक्त नासता.

आफ्रिका, ऑस्ट्रेलिया आनी दक्षिण अमेरिकेंतल्या ॲमाझोन सारकिल्ल्या उश्ण प्रदेशांनी वाळटीचें प्रमाण चड आसा. पूण त्यो थंड प्रदेशांनीय सांपडटात. तांच्या घोंटेराक वा रोयणीक टरमिटेरीया म्हण्टात. माती आनी आपले कुडीसावन येवपी चिकट पदार्थाची भरसण करून ते रोयण बांदतात. कांय रोयणी स मिटरमेरेन ऊंच आसतात. वाळटी चडकरून रोयणीतल्यान भायर सरनांत. तांची कात नाजूक आशिल्ल्यान तांका वत सोसना. आपलें अन्न सोदपाखातीर ती जमनिपोंदच्यानच घोली मारून भोंवतात. तशेंच झाडाचेर वण्टींचेर वा हेर सुक्या लांकडाचेर त्यो मातयेचो खाशेलो बोगदो करून भोंवतात. तांचो घोंटेर वा रोयण भितरल्यान वेगवेळया कुडींनी विभागिल्ली आसता. राजा - राणीची कूड मध्य भागार आसता. तशेंच तांतयां, ल्हान जिवांक आनी पिडेस्त वाळटींखातीर खाशेल्यो कुडी आसतात.

लांकूड, सुकीं पानां आनी कागदां हे तांचें मुखेल अन्न. लांकूड पचोवपाखातीर तांच्या पोटांत एक तरेचें खाशेलें द्रव्य तयार जाता. कश्टकरी वाळटी आपल्या तोंडातल्यान एक खाशेलो पदार्थ तयार करून तो आपल्या ल्हान जिवांक आनी लश्करी वाळटींक खावयता. तशेंच ते एकामेकांच्या कुडिंतल्यान येवपी पदार्थ चाटून आपलें पोट भरता. वाळटी हो जीव नाशकारक आशिल्ल्यान, तो आळाबंदा हाडचेखातीर घरांत किटक नाशकांचे फवारे मारतात. तशेंच मदेराची राखण करचे खातीर ताचेर दिकाचो, पॉलीशाचो वा ऑईल पेंटाचो लेंप मारतात.

- कों. वि. सं. मं.

**वॉशिंगटन, जॉर्ज :** (जल्म : २२ फेब्रुवारी १७३२ वरजीनीया - वेस्टमोरलँड; मरण : १४ डिसेंबर १७९९).

अमेरिकन संयुक्त संस्थानाचो पयलो अध्यक्ष. ताका अमेरिकेचो जनक म्हूण वळखतात. १७७५ - ७६ त ग्रेट ब्रिटनाआड जाल्ले अमेरिकन क्रांती वेळार भूंखंडीय सैन्याचो तोच सरसेनापती आशिल्लो. स्वातंत्र्य झुजांत ताच्याच सैन्यान ब्रिटनाचेर हार घाली.



अमेरिकन संविधान बरोवपाक जी परिशद आपयल्ली, तिचोय अध्यक्ष वॉशिंगटनच आशिल्लो.

ताचें उपचारीक शिक्षण वेवस्थीत जालेंना. तो सोळा वर्सांचो आसतना लॉर्ड फॅरटॅक्स ह्या वरजीनीयेच्या भाटकाराकडेन सर्वे करपी म्हूण कामाक आशिल्लो. १७४२

त ताची सरकारी सर्वेक्षणकरपी म्हूण नेमणूक जाली. फेब्रुवारी १७५३ त तो वरजीनीया सैन्याचो वरिश्ठ अधिकारी जालो. १७५४ - ६३ काळांत फ्रेंच आनी भारतीय लोकांआड जाल्ल्या झुजांत ताणें पयलेच फावटी वांटो घेतलो. १७५५ त जनरल एडवर्ड ब्रॅड्रोक वांगडा ड्युक्यसने ह्या फ्रेंच किल्ल्याचेर घुरी घाली. पूण त्या झुजांत ब्रॅडोक जखमी जालो आनी ताच्या सैन्याक हार घेवंची पडली. उपरांत वॉशिंगटन वरजीनीया सैन्याचो श्रेश्ठ अधिकारी जालो. मुखार तो राजकारणांत रिगून १७५८ त बुरगेजीस सभाघराचो लॅजीसलेचर म्हूण वेंचून आयलो. ६ जानेवारी १७५९ त मार्टा डॅंड्रीज कॉस्तीस हे विधवेकडेन तो लग्न जालो. सोळा वर्सां ताणें बुरगेजीसाचो एक लोकप्रिय लॅजीसलेचर म्हूण वावर केलो.

१७६२ त फ्रेंच लोकांची अमेरिकेंतली सत्ता सोंपल्या उपरांत इंग्लंडाचीय सत्ता सोंपोवपाखातीर अमेरिकन क्रांती सुरू जाली. सप्टेंबर १७७४ त ह्याच हेतून बारा वसणुकेंतले मुखेली फिलाडेल्फिया शारांत एकठांय येवन ताणीं आपले सभेक 'कॉंटिनेंटल कॉंग्रेस' हें नांव दिलें. ते सभेंत जॉर्ज वॉशिंगटनाचोय आस्पाव आशिल्लो. मार्च १७७५ त दुसरे कॉंटिनेंटल कॉंग्रेस सभेंतय तो वेंचून आयलो. १५ जून १७७५ त वसणूकवाल्यांच्या सैन्याचो सरसेनापती म्हूण ताची नेमणूक जाली. मार्च १७७६ त ताणें बॉस्टन झुजांत ब्रिटीश सैन्याचेर हार घाली. उपरांत सेगीत पांच वर्सां ब्रिटीश सैन्याआड एकसारको झुजून आनी तांचो पराभव करून अमेरिकन स्वातंत्र्याचो जाहिरनामो प्रसिद्द केलो. झुजावेळार गरजेच्या मालाची पुरवण उणी आसून लेगीत आपल्या सैनिकांचें मनोबल वाडोवपाक तो यशस्वी थारलो. साबार हालअपेश्टांक तोंड दिवन ताणें आपूण एक कुशळ सेनापती आशिल्ल्याचें सिध्द केलें. स्वातंत्र्यझुजांत ताणें केल्ल्या धाडसाच्यो कथा चडशा सगळया भासांनी प्रसिद्द आसात.

अमेरिकेन स्वातंत्र्य जाहीर केल्याउपरांत नव्या देशाखातीर भक्कम अशी यंत्रणा उबारपाची गरज आशिल्ली. १७८८ त नव्या संविधानाची स्थापणूक करपाखातीर भरिल्ले खास परिशदेचो तोच अध्यक्ष आशिल्लो. स्वातंत्र्यझुजांत लोकप्रियता लाबिल्ल्या वॉशिंग्टनाक ३० एप्रिल १७८९ दिसा एकमतान राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून काडलो. तो अमेरिकेचो पयलो राश्ट्राध्यक्ष. राश्ट्राध्यक्षाच्या पदार तो दोन खेपे वेंचून आयलो. अलेक्झांडर हॅमिल्टन आनी जेफरसना सारकिल्ल्या व्यक्तींच्या आदारान ताणें अमेरिकन प्रशासन घट्ट केलें. शांतता, देशाची उदरगत आनी एकात्मता राखून दवरप हें वॉशिंग्टन धोरणाचें खाशेलेपण आशिल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

**विंचू :** आराचनिडा गणाच्या स्कॉर्पिओ कुळांतलो सुमार ३०० परस चड जाती आशिल्लो एक विखारी प्राणी. तो संवसारातल्या सगळया उश्ण वाठारांत सांपडटा. तो चडकरून फातरापोंदा वा वण्टीच्या चिरींनी रावता. विंचू हो जरायुज (Viviparous) प्राणी. ताची कूड थपकटी पूण खंडीय आसून ती फुडें रूंद आनी फाटल्यान अशीर जायत वाता. ताची शेंपडीय खंडीय आसून तिका फाटल्यान विखारी नांगी आसता. ताच्या धडाच्या फुडल्या भागाक दोन दांगे आसता. त्या दांग्यांच्या आदारान तो आपलें भक्ष धरता वा बारीक करता. ताका चार पायांच्यो जोडयो आसतात. भारतांत सांपडपी विंचवाक ६ ते १२ दोळे आसतात. पूण वेगवेगळे जातींत हो आंकडो चड - उणो जावपाक शकता. तांची लांबाय १३ ते १८० मिमी. आसता. विंचू चडकरून काळया वा हळदुवसार रंगाचे आसता.

विंचू हो निशाचर (रातचो भोंवपी - Nocturnal) प्राणी. कोळी, पिसोळीं, वागोणी आनी हेर जीव तो खाता. व्हड जीवांक खावचे आदी विंचू तांका बेशुध्द करता आनी उपरांत आपल्या दांग्यांच्या आदारान बारीक करून खाता. विंचू हो एक भित्रो प्राणी आनी कोणेय ताका तूक (Molested) लायल्यारच तो नांगी मारता. दिसाचो तो फातरापोंदा वा चिरींनी रावता. ताची नदर कमजोर, पूण स्पर्शेंद्रीय दांग्यांनी विकसित जाल्लें आसता, हाका लागून आपली वाट जाणून घेवचेखातीर तो आपले दांगे जमनीक समांतर धरून चलता. विंचू हो एक अनुस्फुरक (Fluorescent) प्राणी. हाका लागून ताचेर काळखांत जंबुपार किरण पडल्यार तो चकचकता. ताचे शेंपडेच्या फाटल्या भागाक नांगी आसून तिका एक ल्हान बुराक आसता. एके बारीक नळयेच्या आदारान हो बुराक विशपिंडांक जोडिल्लो आसता. नांगी मारतकच मनशाक खूब त्रासदायक कळो मारतात. पूण विंचू चाबून मनीस मेल्ल्याचीं उदारणां खूब उणीं आसात.

समागमाच्या वेळार, सुरवेक नर आनी मादी एकामेकांमुखार उबी रावून दांग्यांत दांगे घालून कांय वेळ संभोगाअवस्थेंत वता. जायते फावट समागमाउपरांत मादी नराक मारून खाता. मादी शेणात आनी धाणीत तांतया घालता. सुरवेक मादी आपल्या पिलांक आपले फाटीचेर घेवन भोंवता.

- कों. वि. सं. मं.

**विंध्य :** सात कुलपर्वतांतलो एक. नर्मदा आनी तापी ह्या न्हंयांचें उगमस्थान. हाच्या वेगवेगळया भागांक वेगवेगळीं नांवां मेळिल्लीं आसात. ह्या पर्वताची सुरवात गुजरातेंत जाता. फुडें मध्यप्रदेशाचो दर्या आनी दमोह जिल्ह्याचे उत्तरेकडल्यान तो बघेल खंड आनी आदलें रेवा संस्थान हांच्या मदल्यान वचून बिहारांत सोंपता. नर्मदेच्या उगमा लागसार अमरकंटक हांगा विंध्य आनी सातपुडा हांचो मेळ जाला. विंध्याचो उत्तरेकडलो भाग झांशी, बांदा, अलाहाबाद आनी मिझापूर ह्या जिल्ह्यांतल्यान वता. ताची उंचाय दर्यापातळेसावन २५०० फुटांपरस चड ना. हाचो फातर थरांथरांचो आसून वालुकामिश्रीत

आसा. तातूंत खंय खंय भांगराचो फातरय मेळटा. तेचपरी हांच्यात शंख - शिंपल्योय मेळटात. विंध्याचेर वयलेवटेन कांट्यांची झोंपां आसून सकयल्या भागाक सागाचीं रानां वाडिल्लीं दिसतात. ग्वाल्हेर, इंदूर आनी भोपाळ हीं विंध्यक्षेत्रांतलीं मुखेल शारां आसात.

हो भारतांतलो सगळयांत पुर्विल्लो पर्वत आशिल्लयाचें सांगतात. शिप्रा, करतोया, वैनगंगा, तमसा, दशार्णा, विपाशा, शोण आनी महानदी ह्या न्हंयाचोय विंध्य पर्वतश्रेणीचेर उगम जाता.

विंध्यान भारताचे उत्तर आनी दक्षिण अशे दोन भाग केल्यात. तो उत्तर भारताची दक्षिणेकडली शीममेर आसून मध्य भारताचो आदार आसा नर्मदेच्या दक्षिण देगेवयल्यान उत्तरेकडेन पळयल्यार विंध्याद्री हो आडामो कसो (तटबंदी) दिसता. ह्या पर्वताक नर्मदेसावन गंगेचे देगेमेरेन उत्तरेवटेन संथ देंवती आसा.

पुराणांत विंध्य पर्वताची एक कथा आसा ती अशी - एक फावट विंध्य पर्वतान मेरु पर्वताकडेन सर्त करूंक सुरवात केली. ल्हव ल्हव आपली उंचाय वाडोवन ताणें सूर्याक सांगलें, 'तू सदांच मेरु भोंवतणी प्रदक्षिणां काडटा. हाचेफुडें म्हजे भोंवतणी प्रदक्षिणां काडची पडटली'. उपरांत तो इतलो ऊंच जालो, जाकालागून सूर्याची गतीच बंद जाली. सगळया संवसाराचेर काळोख पातळ्ळो. देवांनी भिवन अगस्त्याक विनवणी केली, 'विंध्य तुजो शिश्य तेन्ना ताका तूं मोटवो करून सूर्याचो मार्ग मेकळो करून दी'. अगस्त्य वाराणसी हांगा रावतालो तो दक्षिणेकडेन वचून विंध्यामुखार उबो रावलो. आपल्या गुरूक पळोवन विंध्यान ताचेमुखार साश्टांग नमस्कार केलो. तेन्ना अगस्त्यान सांगलें 'आपूण दक्षिणेकडेन वचून परत येता तोमेरेन तू उठूं नाका'. विंध्यान आपल्या गुरूची आज्ञा मानली आनी तो तसोच पडून रावलो. अगस्त्य दक्षिणेच्यान परत गेलोच ना. ताकालागून विंध्याक तसोच रावचो पडलो.

विंध्य वाठारांत पुर्विल्ल्या काळांत मालद, करुष, मेकल, उत्कल, दर्शाण, भोज, तोसल, कोसल, त्रैपूर, वैदिश, नैवध आनी अवंती हीं जनपदां नंदतालीं.

- कों. वि. सं. मं.

**विक्रमशिला** : एक पुर्विल्लें बौध्द विद्यापीठ. मगधाचो पालवंशी राजा धर्मपाल (७६९ - ८०९ इ.स.) हाणें ह्या विद्यापिठाची स्थापना केली. हें विद्यापीठ नेमकें खंयच्या जाग्यार आशिल्लें हाचेविशीं अचूक म्हायती मेळना.

धर्मपाल राजान हांगा व्हड महाविहार बांदिल्लो आनी तातूंत एकशेंआठ अध्यापकांची नेमणूक केल्ली. धर्मपालाउपरांतच्या पाल राजांनीय ह्या महाविहाराक खूब अर्थीक आदार दिल्लो. ताकालागून इ.स. च्या १० व्या शतमानापसून हें भारतांतलें एक मुखेल शिक्षणकेंद्र जालें. भरभराटीच्या काळांत ह्या महाविहारांत स विहार (महाविद्यालयां) आशिल्ले आनी दर एका विहारांत एकशेंआठ अध्यापक नेमिल्ले. महाविहाराची अंतर्गत वेवस्था पळोवपाक एक मंडळ आशिल्लें. स विहारांचे स मुखेल आचार्य आनी महाविहाराचो मुखेल अशें सात जाणांचें हें मंडळ आशिल्लें.

महाविहाराचे चारयवटेन दुरीग बांदिल्लें आनी ताका चारय दिशांक दारां आशिल्लीं. दर एका प्रवेशदारा लागसार एक प्रवेशपरिक्षाघर आशिल्लें. ह्या दर एका दाराचेर दिग्गज पंडितांची नेमणूक केल्ली. उदेंत दाराचेर आचार्य रत्नाकरशांती, अस्तंत दाराचेर वागीश्वरकीर्ती, उत्तर दाराचेर भट्टारक नरोप, दक्षिण दाराचेर प्रज्ञाकरमती, पयल्या केंद्र दारार रत्नवज्र आनी दुसऱ्या केंद्र दारार जानश्रीमित्र हे पंडित आशिल्ले. हे स विहारांचे मुखेल आचार्य आशिल्ले.

विक्रमशिलेच्या तटाच्या मुखेल दाराचे एके वटेन आचार्य नागार्जुन आनी दुसरेवटेन आचार्य अतीश हांच्यो प्रतिमा रेखिल्ल्यो. ह्याच दाराभायर एक धर्मशाळा आशिल्ली. ह्या महाविहाराचेमदीं बोधिसत्त्वांच्यो मूर्ती आशिल्ल्यो आनी एकशेंआठ चैत्य आशिल्ले.

विक्रमशिला विद्यापिठांत एक व्हड सभाभवन आशिल्लें. तातूंत एकावेळार आठ हजार मनशां बसपाची सोय आशिल्ली. विद्यार्थ्यांक हांगा जेवण तेचपरी दर दिसा लागपी वस्तू फुकट मेळटाल्यो. ह्या सगळया खर्चाखातीर पाल राजांकडल्यान तेचपरी हेर धनिकांकडल्यानय तांकां आदार मेळटालो.

हांगा बऱ्यांतले बरे ग्रंथ आशिल्लें एक व्हड ग्रंथालय आशिल्लें. बौध्द धर्मांतले वेगवेगळे संप्रदाय, वेद, अध्यात्मविद्या, व्याकरण, न्यायशास्त्र आदी विशय हांगा शिकयताले. पूण तंत्रविद्येच्या अध्यापनाचेर चड भर आशिल्लो. इ.स.च्या धाव्या - इकराव्या शतमानांत तंत्रवाद आनी तंत्रीक प्रक्रिया हें बौध्द धर्माचें मुखेल आंग जाल्लें.

ह्या विद्यापिठांत भारतांतल्या वेगवेगळया वाठारांतले विद्यार्थी शिकपाखातीर येताले. तेचपरी भारताभायलेय विद्यार्थी हांगा शिकूंक येताले. तांची प्रवेश परिक्षा घेतले उपरांतच तांकां विद्यापिठांत प्रवेश मेळटालो. जायते तिबेटी भिक्षू हांगा रावन अध्ययन करताले आनी तें सोंपतकच तिबेटी भाशेंत संस्कृत ग्रंथाचो अणकार करताले.

ह्या विद्यापिठाची परिक्षा पास जाल्ल्या विद्यार्थ्यांक मगधाचो राजा 'पंडित' ही पदवी दितालो. अशा पंडितांची उंचेल्या राजकीय पदार नेमणूक करताले. हांगाचे आचार्य रत्नवज्र, जेतारी, रत्नकीर्ती, रत्नाकरशांती, ज्ञानश्रीमित्र, दीपंकर श्रीज्ञान वा अतीश हे आचार्य आपले विद्वत्तेखातीर प्रसिद्द आशिल्ले.

इ.स. ११९३ त महंमद बिन बख्तियार हाणें मगधाचो पाल राजा गोविंद हाचेर घुरी घालून ताका हरयलो. फुडें थोडयाच वर्सांनी ताणें नालंदा, ओदंतपुरी आनी विक्रमशिला ह्या विद्यापिठाचो पुराय नाश केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**विक्रम संवत :** एक कालगणना. ही गणना बंगाल सोडून सगळया उत्तर भारतांत, काठियावाड आनी गुजरात ह्या वाठारांत चालू आसा. ह्या संवताची सुरवात कलियुगाचीं ३०४४ वर्सां जातकच जाली अशी कल्पना केल्ली आसा. हाच्या नव्या वर्साची सुरवात सद्या उत्तर भारतांत चैत्र शुध्द प्रतिपदा आनी दक्षिण भारतांत कार्तिक शुध्द प्रतिपदा हे तिथीक जाता. पूण इ.स.च्या १२ व्या शतमानामेरेनच्या लेखांत हाचे कार्तिकादी उल्लेख चड येतात. जाल्यार फुडें १६ व्या शतमानामेरेनच्या लेखांत चैत्रादी निर्देश चड प्रमाणांत दिसतात. चैत्रादी पद्दतीकलागून भारतांतलें विक्रम संवत दक्षिणेंतल्या विक्रम संवतापरस सात म्हयने पयलीं सुरू जाता. ह्या संवताचे दक्षिणेंतले म्हयने अमान्त आनी उत्तरेंतले पूर्णिमान्त आसात. सौराष्ट्र, गुजरात आनी राजस्थानचो कांय वाठार हातूंत ह्या काळाची सुरवात आषाढ शुध्द प्रतिपदेसावन जाता.

उदेपूर, जोधपूर आदी राजस्थानांतल्या संस्थानांत राजकीय वेव्हाराखातीर हो संवत श्रावणांत आनी पूर्णिमान्त धरतात. शालिवाहन शकावरी विक्रम संवताचे म्हयने चांद्र आसून तांची चैत्र, वैशाख, ज्येष्ठ अशींच नांवां आसात. शकांत १३५ मेळयतकच चैत्रादी विक्रम संवत आनी १३४ वा १३५ मेळयतकच कार्तिकादी विक्रम संवत येता. तेचपरी विक्रम संवतांतल्यान ५७ वजा केल्यार इसवीसन मेळटा.

ही कालगणना सुरवेक कोणें सुरू केली, तिचे उल्लेख कशे केल्ले आसात आनी तिका विक्रम हें नांव कशें मेळळें हेविशीं विद्वानांत मतभेद आसात.

विक्रम संवताची स्थापना सनआदीं ५७ व्या वर्सा मालव गणराज्यांत जाली. हाचें सुरवातीचें नांव कृत संवत्सर अशें आशिल्लें. इ.स.च्या सातव्या शतमानासावन कृत संवताक मालव संवत अशें नांव आशिल्लें, कारण मालव राज्यांत ही कालगणना चड प्रसिद्द आशिल्ली. इ. स. च्या आठव्या - णवव्या शतमानामेरेन माळव्यांत आनी ताका लागून आशिल्ल्या राजस्थानाच्या वाठारांत प्रचलित आशिल्लो. फुडें हो संवत बुंदेलखंड तेवेळचो संयुक्त प्रांत, गुजरात, काठियावाड, आदी वाठारांत प्रचलित जालो. तोवेळमेरेन मालव लोकांची सत्ता नश्ट जाल्ली. ताकालागून संवताक एकाद्र्या नामनेच्या राजाचें नांव दिवपाची गरज आशिल्ली. त्याकाळांत पुराय भारतांत इ. स. च्या ५ व्या शतमानांतल्या चंद्रगुप्त दुसरो विक्रमादित्य हाणें भारतांतलीं गणराज्यां मोडून काडिल्लीं. इ. स. च्या आठव्या - णवव्या शतमानामेरेन भारतांत एकतंत्री राज्य प्रस्थापित जाल्लें. ताकालागून लोक गणराज्य ही कल्पना विसरिल्ले. देखून मालवगणाजाग्यार त्या गणाच्या मुखेल्याचें म्हळयार विक्रमादित्याचें नांव त्या संवताक जोडपांत आयलें आनी विक्रम संवत प्रचारांत आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**विक्रमादित्य :** इ.स.प. पयल्या शेंकड्यांतलो उज्जयनेचो राजा. विक्रमादित्याविशीं इतिहासकारांमदीं एकमत ना. चंद्रगुप्त, स्कंदगुप्त, शिलादित्य आनी हेर सम्राटांनी विक्रमादित्य ही गौरवास्पद पदवी घेतिल्ली, देखून कांय इतिहासकारांच्या मतान विक्रम ही इतिहासीक व्यक्ती नासून, ती एक काल्पनिक व्यक्ती. पूण बृहत्कथा, जैन पट्टावली, हरिवंशपुराण, भविष्यपुराण आनी हेर वाङ्मयाच्या तशेंच अभिलेख - मुद्रांच्या आदारान डॉ. राजावली पांडेय हाणें विक्रमादित्य हो इतिहासीक पुरूश आसून, तो इ.स.प. पयल्या शेंकड्यांतलो उज्जेयनेचो राजा, हें स्पश्ट करपाचो यत्न केला. ताच्या मतान विक्रमाचो मालवगणाच्या गर्दभिल्ल शाखेंत जल्म जालो.



बृहत्कथेंत विक्रमाच्या बापायचें नांव महेंद्रादित्य अशें सांगलां, जाल्यार विष्णु आनी वायू पुराणांत तशेंच कथासरित्सागरांत तें गर्दभिल्ल अशें सांगलां. ह्या ग्रंथाप्रमाण विक्रमाचें उपनयन जाल्याउपरांत चरित्र्यसंपन्न आनी विद्वान आचार्यांनी ताका विद्या, कला आनी शास्त्रां शिकयलीं. उपरांत ताणें युध्दकलेंचेय शिक्षण घेतलें.

जैन ग्रंथाप्रमाण विक्रम ल्हान आसतनाच उज्जयन आनी माळवा प्रांतांचेर शकक्षत्रपांनी आपलो शेक बसयल्लो. शकांनी माळव्याचें राज्य हातासल्या उपरांत विक्रमय आपले आवय वांगडा रानांत पळून गेल्लो. रानांत दिस सारतनाच तो आपलें राज्य परत मेळोवपाखातीर डाव पेच रचपाक लागलो. ताणें मालव तरणाट्यांक संघटीत करून तांकां लडायचें शिक्षण दिलें. तशेंच राजस्थान, मध्य भारत आनी पंजाब प्रदेशांनीय झुजारी संघ निर्माण करचेखातीर त्या गणांक प्रेरणा दिली. उपरांत पुराय तयारी करून ताणें उज्जयनाचेर घुरी घालून शकांक माळव्यातल्यान धावडान घाले. तो उज्जयनाचे गादयेर बसल्याउपरांत हे घडणूकेचे यादीक म्हूण स.प. ५७ त ताणें आपली नवी कालगणना सुरू केली.

गादयेर बसल्याउपरांत ताणें उज्जयनांत थिरताय हाडली. उपरांत आपल्या राज्याचो विस्तार करतना उत्तर कोंकण, सौराष्ट्र आनी सिंध प्रदेशांतल्यान शक लोकांक धावडान घाले. ताच्या ह्या दिग्विजयाचे उल्लेख कांय कडेन कथासरित्सागरांत आयल्यात.

जैन ग्रंथांप्रमाण आदर्श राजाचे सगळे गूण विक्रमादित्याच्या आंगांत आसले. निमाणेकडेन सातवाहन वंशातलो तिसरो राजा सातकर्णी हाणें ताचो पराभव केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**विजयनगर :** एक हिंदू साम्राज्य आनी राजधानीचें मुखेल नगर. विजयनगर साम्राज्याची पुर्विल्ली राजधानी आनेगुंदी आसली. ती तुंगभद्रेचे उत्तर देगेक आसून ती पुराय सुरक्षीत नाशिल्ल्यान विद्यारण्य ह्या गुरूचे आज्ञेवयल्यान हरिहर (१लो) हाणें तुंगभद्रेच्या दक्षिण तीराचेर हेमकूट, मतंग आनी मावयवंत ह्या दोंगरांमदीं नवी नगरी बसोवन थंय हरिहरान राजधानीची स्थापना केली.

या साम्राजाच्या कालखंडांत कांय विदेशी लोक भारतांत आयले. तातुंतल्या कांय प्रवाशांनी त्या शाराचें वर्णन बरोवन दवरलां. ताचेवयल्यान विजयनगर कशें आसलें ताची म्हायती मेळटा.

**इतिहास :** इ.स. १३०० च्या सुमाराक पुराय उत्तर हिंदुस्थान दिल्लीच्या सुलतानांच्या हाताखाल आसलें. दक्षिण भारतांतल्या देवगिरी, वरंगळ, द्वारसमुद्र आनी मदुरा हांगा स्वतंत्र हिंदू राजवटी आसल्यो. या राजांची आपसांपांत सदांच झुजां जातालीं. अशावेळार अल्लाउद्दीन खिलजीन आपल्या सेनापतीक मलिक काफूराक दक्षिण हिंदुस्थानाचेर हल्लो करपाक धाडलो. तेन्ना ताणें इ.स. १३०७, १३१०, १३११ देवगिरी, वरंगळ आनी द्वारसमुद्र हांचेर जैत जोडलें.

उपरांत तीन वर्सांभितर हरपाळदेवान मुसलमान सैन्याक धांवडावन घाले. इ.स. १३१६ अल्लाउद्दीन मेल्याउपरांत मुबारक खिलजीन दक्षिणेचेर घुरी घाली आनी १३१८ हरपाळदेवाक तांणी जिवो मारलो. इ. स. १३२० वर्सा दिल्लीच्या तख्ताचेर तुघलक घराणें आयलें.

कांपिली हें दक्षिण भारतांतलें एक स्वतंत्र राज्य आसलें. मुहम्मद तुघलुकान ताचेर इ.स. १३२६त घुरी घाली. त्या झुजांत कांपिलीदेवाक मरण आयलें आनी उपरांत हरिहर कांपिलीचो राजा जालो.

ह्या विजयनगर राज्याचेर संगम, साळुव, तुळव आनी आरविडु या चार वंशांनी राज्य केलें. पूण या सगळ्यांनी हिंदू संस्कृतीची राखण केली.

**संगम घराणें :** हरिहर पयलो इ.स. १३३६ - १३५६. हरिहराच्या बापायचें नांव संगम आसलें. ताका लागून ह्या घराण्याक संगम नांव फावो जालें, इ. स. १३३६ तो नव्या राज्याचो राजा जालो आनी ह्या कामांत ताका मार्गदर्शन करपी ताचो गुरू विद्यारण्य स्वामी हांकां मान दिवपाच्या हेतून त्या शाराक विद्यानगर वा विजयनगर अशें नांव दिलें.

**साळुव राजवंश :** साळुव वंशाचो संस्थापक साळुव नरसिंह हाणें (१४८५ - १४९०) मेरेन राज्य केलें.

**तुळुव राजवंश :** नरसा नायक (इ. स. १४९० - १५०३) साळुव नरसिंहाचे दोनय पूत ल्हान आशिल्ल्यान मरतना ताणें आपलो मंत्री नरसा नायक हाका आपल्या भुरग्यांचो पालनकर्तो आनी राज्याचो कारभारी नेमलो. तो तुळुव वंशांतलो पयलो राजा आसलो. साळुव नरसिंहाच्या मरणाउपरांत ताचो व्हडलो पूत तिम्म हाका गादयेर बसोवन तो स्वता राज्यकारभार पळोवंक लागलो. तिम्माक मरण आयल्याउपरांत इम्मडी वीर नरसिंहराय, कृष्णदेवराय, अच्युत देवराय, वेंकट, सदाशिव, रामराय हांणी राज्यकारभार केल्याउपरांत तुळुव वंशाची सत्ता सोपून ती आरविडू वंशाकडे आयली.

**आरविडू राजवंश :** रामराय हो या वंशांतलो पयलो सम्राट. तो कृष्णदेवरायाचो मंत्री श्रीरंग हाचो पुत आसलो. ताणें इ. स. १५६२ मेरेन सदाशिवाचो संरक्षक म्हण राज्यकारभार केलो. सगळ्या दुस्मानांचो पराभव करून, आपली सार्वभौम सत्ता दक्षिणेंत प्रस्थापित केली. तो एक व्हड शासक आनी शूर राजा आसलो. ताणें साहित्याक, कलेक उत्तेजन दिलें. तो संगिताचोय मोगी आसलो. ताच्या उपरांत ताचो भांव तिरुमल गादयेर आयलो. ताणें पुंड सरदारांचो बंदोबस्त करून राज्यात शांतता प्रस्थापित केली. ताच्या फाटल्यान ताचो पूत श्रीरंग सिंहासनार बसलो. ताच्या उपरांत ताचो भाव वेंकटपतिदेवराय राजा जालो. तो पराक्रमी आशिल्लो. ताणें आपली राजधानी उदयगिरी हांगा व्हेली. ताणें इ.स. १६१४ मेरेन राज्य केलें. तो धर्मीक वृत्तीचो, विद्वान आनी उदार राजा आशिल्लो. चित्रकलेची ताका आवड आशिल्ली. ताका मरण येतकच ताचो दुसरो पुतणयो श्रीरंग हो राजा जालो. ताका लागून जायत्या सरदारांक आनी नायकांक राग आयलो. ताचें भितर यादवी झूज जावंक लागलें. सुमार पन्नास वर्सां हें यादवी झूज चालू आशिल्लें. निमाणें हें साम्राज्य नश्ट जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**विजय राजेन्द्रसूरी :** (इ. स. १८२७ - १९०६).

एक जैन आचार्य आनी प्रकांडपंडित. ताचो जल्म भरतपूर हांगा जालो. ताचें मूळ नांव रत्नराज अशें आशिल्लें. विसाव्या वर्सा ताणें यतिदीक्षा घेतली आनी ताका रत्नविजय हें नांव मेळ्ळें. प्रमोद विजयसूरी हो ताचो शिश्य. इ.स. १८६६ त ताका विजय राजेंद्रसूरी हें नांव मेळ्ळें. ताणें सुमार ५८ ग्रंथ बरयले. ह्या सगळ्यांत अभिधान राजेंद्रकोश हो मुखेल ग्रंथ. हो प्राकृत भाशेंत आसून ताचे सात खंड आसात. हो कोश म्हळ्यार प्राकृत शब्दाचो म्हासागरच आसा. भुपेन्द्रसूरी आनी यतींद्रसूरी ह्या दोन शिश्यांनी विजय राजेन्द्राच्या हाताखाल ह्या ग्रंथाचें संपादन केलें. ह्या ग्रंथांत दर एका शब्दाचें संदर्भासयत स्पश्टीकरण केल्लें आसा. जैनांच्या पंचेचाळीस आगम ग्रंथांचो अभ्यास करून विजय राजेन्द्रान हो कोश तयार केला.

हाचेभायर विजय राजेन्द्रसूरीन गुजराती आनी हिंदी भाशेंत तूस्त, स्तवन, चैत्यवंदना, सज्झाय आदी विशयांचेर जायती काव्यरचना केली. नवपदपुजा आनी महावीरपंचकल्याणपुजा हीं ताचीं व्हड काव्यां.

विजय राजेन्द्रसूरी हो एक व्हड तपस्वीय आशिल्लो. मांगीतुंगी

दोंगरार आनी राजस्थानातल्या चामुंडवनांत ताणें बरोच काळ ध्यानसाधना केल्ली. समाज सुदारणे खातीरूय तो मुखेलपणान वावर करतालो. २५० वर्सां वाळींत उडयल्ल्या किरोला समाजाक, ताणें जैन समाजांत परती मानाची सुवात मेळोवन दिली. जालोर हांगाच्या सुमार ७०० घरांनी जैन संस्कृतीचो उजवाड पावयलो. जायत्या तीर्थांचो ताणें जीर्णोध्दार केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**विजयादसम :** (पळेयात दसरो).

**विजापूर :** कर्नाटकांतल्या इतिहासांत प्रसिद्द आशिल्लें शार आनी विजापूर जिल्ह्याचें मुखेल ठिकाण. पयलीं ह्या जाग्यार सात खेडीं आसलीं. थंय यादवांनी हे नगर वसयलें. तातुंतल्या एका खेड्याचें नांव विज्ञनहळ्ळी आसलें. ताचें रुपांतर जावन विजापूर हें नांव त्या नगराक मेळ्ळें, अशें एक मत आसा.

ह्या नगराच्या वाठारांत कांय देवळांनी चालुक्य आनी यादव वंशांतल्या राजांचे शिलालेख आसात. चालुक्य राजा सोमेश्वर हाणें इ.स. १०७४ त आपल्या जैताचें स्मारक म्हूण या नगराक विजापूर हें नांव दिलें. काळांतराऩ ताचेंच विजापूर अशें रुपांतर जालें.

बहामनी राज्याचे पांच वांटे जाल्या उपरांत विजापूरचो सुभेदार युसुफ आदिलशाहा हाणें आदिलशाहीची स्थापना करून विजापूर हीच आपली राजधानी केली. हे राजधानी भोंवतणचो सगळो प्रदेश सपाट आनी पडंग आसून, लागसार एकूय न्हंय नाशिल्ल्यान तो वाठार असुरक्षीत आशिल्लो. फुडें इ.स. च्या १६ व्या शेंकड्यांत अली आदिलशहा (१लो) हाणें शारा भोंवतणी व्हडलो तट बांदलो. त्या तटाचो घेर सवाय स मैलांचो आसून, ताका ९६ बुरूज आनी ५ व्हडलीं दारां आसात.

शाराच्या मदल्या वाठारांत आर्क किल्लो आसून तो पयलीं युसुफ आदिलशहान बांदलो. तो मातयेचो आशिल्ल्यान फुडें इब्राहिम आदिलशहान ताचो तट आनी खंदक फातरांनी बांदून काडलें. ताचो घेर सुमार एक मैल आसा. ताच्या भितर आसार महाल, आनंद महाल, आरसे महाल, सोनेरी महाल, चिनी महाल, सातमजली महाल, गगन महाल, मक्का मशीद, चिंदडी मशीद ह्यो इमारती आसात. तातुंतलो आसार महाल होच फकत बरे स्थितींत आसा. हाकाच पयलीं अदालत महाल हें नांव आसलें. तो सुलतान महमदशहान बांदला. तातूंत महंमद पैगंबराचे दाडयेचे केंस आनी कांय वस्त्रां दवरल्यांत. ताच्या पाटांगणांत एक व्हडलें तळें आसा. मक्का मशीद ही मक्केंतल्या मुखेल मशिदीसारकी आसा. तिचे भितरले सगळे खांबे फातराचे आनी कमान आशिल्ले आसात. चिंदडी मशीद उदेंतेकडेन बुरुजाचेर आसा. किल्ल्याच्या पडकोटांत श्रीनृसिंह देवूळ आसून ताका एक जागृत देवस्थान मानतात.

हांगा महंमद आदिलशहान गोल घुमट ही भव्य वास्तू निर्माण केली. तिचें बांदकाम इ.स. १६३२ - १६६४ अशें ३३ वर्सां चालू आसलें. ही इमारत चवकोनी आसून, तिची दर एक वट (बाजू) १३५ फूट लांब आनी वंणत ९ फूट दाट आनी १०० फूट ऊंच आस. ह्या दालनाच्या चारूय कोनशांक लागून चार अश्टकोनी, सातमजली मनोरे आसात. तांच्या माथ्याचेर चार ल्हान घुमट आसात. दालनाचेर चौथरो आसून, ताचेर व्हडलो घुमट आसा. ताची उंचाय ६० फूट आनी भितरलो व्यास १२५ फूट आसा. ताच्यो वण्टी १० फूट दाट आसात. पुराय इमारतीची उंचाय २०६ फूट आसून, घुमटाभोंवतणी एक सज्जा आसा.

घुमटाच्या भितर सरल्याउपरांत सकयल्ल्या दालनाचे वण्टीक लागून दालनाचे फरसबंदीसावन ११० फूट उंचायेचेर ११ फूट रुंदायेची एक सज्जा आसा. ह्या सज्जाचेर उबें रावून बारीक आवाजान उलयल्यार ताचे १० - १२ प्रतिध्वनी आयकूपाक येतात. सकयल्ल्या दालनांत ७७ फूट लांब - रूंद आनी २४ फूट ऊंच अशा चवथऱ्याचेर सुलतान महमूद, ताच्यो दोन बायलो, धूव आनी नातू हांचीं थडीं आसात.

गोलघुमट ही इमारत भव्य पूण सादी आसा. तिच्यांत चडशी कलाकुसर दिसना. तिच्या शेजराक एक ल्हानशी मशीद आसा. ती मात सुबक आनी सोबीत आसा.



गोलघुमट, विजापूर

किल्ल्याचे उदेंतेक सुमार पाउण मैल अंतराचेर जुम्मा मशीद आसा. हिकाच जामी मशीद अशें म्हण्टात. विजयनगराक हारोवन अली आदिलशहा परत आयल्या उपरांत ताणें इ. स. १५७५ च्या सुमाराक ही मशीद बांदल्या. हिंचो विस्तार खूब व्हडलो आसून, तिच्यांत एकेच फावट २२०० ते २५०० मनशां नमाज पडूंक शकतात. हिचे रचणुकेंत जायत्यो कमानी आशिल्ल्यान ही मशीद आगळीवेगळी दिसता.

ताजबावडी ही तळयासारकी व्हडली बांय महंमद आदिलशाहान ताजखान नांवाचे यादी बांदिल्ली.

अली आदिलशहा (दुसरो) हाची कबर अली रोझा ही, आर्क किल्ल्याचे वायव्येक व्हडली इमारत आसा. ती चवकोनी आसून, २० फूट ऊंच चौथऱ्याचेर उबी आसा. हे कबरींत पुराय बांदूक नाशिल्ल्यो कितल्योशोच मोट्यो कमानी आसून, तांचेर पाखें ना. मदल्या जाग्यार अली आनी तांच्या घरच्या मनशांचीं थडीं आसात. ताचेवयलो पाचवो पाशाण खूब सोबीत आसा. हे इमारतीचें बांदकाम अर्दकुटें जाल्लें आसा.

जोड घुमट हे मक्का दारासावन लागींच दोन सारके दिसपी घुमट आसात. तांचे चौथरे बरेच ऊंच आसून, तातूंत थडीं आसात आनी दोनूय घुमटाच्या भितर सज्जे आसात.

आर्क किल्ल्यांत आनंद महालासावन लागींच करीमुद्दीन ही मशीद आसा. इ.स. च्या १४व्या शेंकड्याच्या पुर्वार्धांत विजापूरचो सुभेदार करीमुद्दीन हाणें ही रेवय्या नांवाच्या कारागिराकडल्यान बांदून घेतली. ही मशीद हिंदू देवळाचे पद्धतीन बांदिल्ली विजापुरांतली सगळयांत पोरनी मशीद आसा.

मालिक - इ - मैदान ह्या नांवाची एक व्हडली तोफ मक्का दरवाजो आनी शहापूर दरवाजो हांच्यामदल्या तटाचेर दवरिल्ली आसा. त्या जाग्याक शेरझा बुरूज म्हण्टात. ही तोफ ओतीव आसून, तिची लांबाय १४ फूट ४ इंच आसा. मुलुखमैदान अशें तिचें नांव रूढ जाला.

लांडाकसाब तोफ ही विजापुरांतली सगळयांत व्हडली तोफ जावन आसा. तिची लांबाय २१ फूट ७ इंच आसून, तिचें वजन ४९ टन आसा.

अली (पयलो) हाणें बेगम चांदबिबी हिचे यादीकातीर चांदबावडी ही बांय इ. स. १५७९ त बांदली. हे बांयचे सारकीच ताजबावडी ही व्हडली बांय उपरांत बांदिली आसा.

इब्राहिम (दुसरो) हाची इब्राहिम रोझा ही कबर शाराच्या तटाभायर अदर्चा मैलाचेर आसा. ही एका ऊंच चबुतऱ्याचेर उबी आसून, तिचें मदलें दालन ५४ फूट लांब - रूंद आसा. ताचे भोंवतणी एक रूंद पडवी आसून, तिचेच कमानीच्यो दोन ओळी आसात. हिचें फातराचें माथें सपाट आसून, ताका सकयल कसलोच आदार ना. त्या माथ्यार एक चौथरो आनी ताचेर घुमट आसा. ताचे भोंवतणी खूब मिनार आसात. हे इमारतीच्यो वण्टी आनी कमानी सोबीत नक्षीकामांनी भरिल्ल्यो आसात.

शाराच्या तटाभायर अस्तंतेक इब्राहिम रोझा सावन लागींच मोती घुमट ही इमारत आसा. तिचो घुमट धवो आसून, ताचे भितरले वटेन लेप दिवपाखातीर मोतयांचो पिठो वापरील्लो आसा.

शहापूर दरवाजाचे अस्तंतेक तटाच्या भायर सुमार दोन मैलांचेर अमिन दर्गो आसा. थंय हजरत ख्वाजा अमिनुद्दीन हाची कबर आशिल्ल्यान हें विजापुरांतलें मुसलमानांचें सगळयांत पवित्र स्थान मानतात.

विजापुरांत सदांच उदकाचो उणाव आशिल्ल्यान आदिलशहान बेगम तलाव, तोरवे तलाव, महंमद तळें, रामटंका हीं तळीं बांदून उदका पुरवणेची वेवस्था केल्ली.

आदिलशाही सुलतानांनी वास्तुशिल्पां निर्माण करपाखातीर चड लक्ष दिल्ल्यान तांच्या २०० वर्सांचे राजवटींत मशिदी, कबरी आनी महाल मिळून सुमार शंबर इमारती बांदपांत आयल्यो. तातुंतल्या मशिदींचो आंकडो पन्नांसांपरसूय चड आसा. कबरी वीसांपरस चड आनी महालय तितलेच आसतले. बऱ्याच बांदकामांची आता पडझड जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**विटिदांडू :** (पळेयात कोयंडोबाल).

**विठ्ठल :** महाराष्ट्रांतलें एक मुखेल दैवत आनी वारकरी संप्रदायाची उपास्य देवता. विष्णुचो अवतार आशिल्लो कृष्ण आनी ताचेसारकोच विठ्ठल हाची भक्ती महाराष्ट्र - कर्नाटकांत पयलींपसून चालू आसा. विष्णुकडेन संबंदीत आशिल्लें एकादशी व्रत विठ्ठलाचे वारकरी निश्टेन आचरणांत हाडटात. विष्णुप्रिय तुळस तांकां खूब मानवता. तिच्या लांकडाच्या मणयांच्यो माळो तांच्या अभिज्ञान चिन्नांतलें एक चिन्न आसा. विष्णुचे छातयेवयलें श्रीवत्सलांछन विठ्ठलाचे छातयेचेरय आसता. कालो हो गोकुळांतल्या बाळकृष्णाचो एक भोग आसा आनी विठ्ठलाचे वारीची सांगता जाल्याबगर जायना. असो हो विष्णु, कृष्ण आनी विठ्ठल हांचो एकवटीत संबंद आसा.

बेळगांव जिल्ह्यांतल्या बेंडेगिरी गांवांत सांपडिल्ल्या ताम्रपटांत विठ्ठलाचो विष्णु असो उल्लेख आसा. ह्या ताम्रपटाचो काळ शके ११७१ असो आसा. हीच धारणा मराठी संतांच्या अभंगांनी सगळयाक पळोवपाक मेळटा. नंदाच्या घरा नांदपी कृष्णच विठ्ठलरुपान पंढरींत प्रकट जालो अशें निवृत्तीनाथान म्हळां.

ज्ञानदेवाच्या मतानय श्रीहरी विठ्ठलरुपान भीमेचे देगेर आयलो आनी ताणें आपल्या सुदर्शन चक्राचेर पंढरी वसयली. संत एकनाथान कृष्ण - विठ्ठल एकवटीचो स्पश्ट उल्लेख केल्लो आसा. द्वारकेचो राणा गायो आनी गोपाळांवांगडा पंढरीच्या पुंडलिकाक मेळपाक आयलो आनी तेन्नापसून तो जो विटेचेर उबो आसा तो आजून सकयल बसूंकच ना. द्वारकेच्यान आयिल्लो कृष्ण होच विठ्ठल असो भावार्थ सगळया वारकऱ्यांमदीं आसा.

पंढरपूर आनी विठ्ठल हांचो निर्णायक उल्लेख आशिल्लो शके ११५१ चो एक शिलालेख आसा. हाचे पयलींचो आनीक एक शिलालेख

सांपडिल्लो आसून तो शके ११९० तलो आसा. शके ११९५ तलो शिलालेख विठ्ठल आनी विठ्ठलाच्या देवळाखातीर म्हत्वाचो आसा. हाचेर जायत्या देणगीदारांचीं नांवां कोरांतिल्लीं आसात. हाचेवयल्यान कानडी, तेलुगू, मराठी सारकिल्ल्या विठ्ठलभक्तांचें पंढरपूर हें एक गाजिल्लें भक्तिपीठ आशिल्लें म्हणपाचें कळटा.

पंढरपुराबगर हेर जाग्यांनीय विठ्ठल हो देव आसा. कर्नाटकांतल्या शिमोगा जिल्ह्यांतल्या सोगाने गांवांत शिवाच्या देवळांत शके ११३५ (२७ जानेवारी १२१४ इ.स.) चो एक लेख आसा. तातूंत वीर बल्लाळ ह्या होयसळ राजान त्या गांवांतल्या विठ्ठलेशाक तीन निश्क भूंय दान दिल्ल्याचें सांगलां.

आपल्या भुरग्याक इश्ट देवतेचें नांव दवरपाची एक पोरनी प्रथा आसा. राष्ट्रकूट तिसरो गोविंद हाच्या इ.स. ८०८ च्या राधनपूर दानपत्रांत 'विठ्ठद्विज' आनी 'विठ्ठपु' अशीं ब्राह्मणांचीं दोन नांवां सांपडटात. ह्या शिलालेखाच्या पुराव्याच्या आदारान निदान इ.स.चो ८ वो शेंकडो इतलेंतरी विठ्ठलाचें पुर्विल्लेपण मानपाक जाता.

शिलालेखींय पुराव्यांबगर विठ्ठलासंबंदीं जायते वाङ्मयीन पुरावे मेळटात. पद्मपुराणाच्या उत्तर खंडांत द्विभुज विठ्ठलाचो उल्लेख आसा. तेचभशेन स्कंदपुराणांतूय विठ्ठलाची म्हायती आसा. पूण सारको काळ थारावपाखातीर ह्या पुराव्यांचो उपेग जायना. श्रीपतीचो श्रीकरभाष्य (इ.स. ११६०) ह्या ब्रह्मसुत्रांवयल्या भाश्यग्रंथांत तकलेचेर शिवलिंग धारण केल्ल्या विठ्ठलाचो उल्लेख आसा.

मध्वाचार्यान (इ.स. ११९९) आपल्या मठाच्या आठ बालयतींमदल्या तीन यतींक उपासनेखातीर विठ्ठलाची मूर्त दिल्ली अशें कन्नड कवी श्री. द. रा. बेंद्रे हाणें सांगलां. हेमाद्रीन चतुर्वर्गचिंतामणींत, बिल्वमंगलान कृष्ण कर्णामृतांत आनी पुर्विल्लो कन्नड कवी चौंडरसान आपल्या अभिनवदशकुमार चरितांत विठ्ठलाचो उल्लेख केल्लो आसा.

ज्ञानदेवाच्याय घराब्यांत विठ्ठलभक्ती आशिल्ली. तांकां गुरूपरंपरेनय विठ्ठलभक्तीचो वारसो मेळिल्लो. तशेंच पंढरपुराक विटेचेर उबो आशिल्लो विठ्ठल अठ्ठावीस युगांपसूनचो आसा, अशी निवृत्तीनाथ, ज्ञानदेव, नामदेव सारकिल्ल्या संतांची धारणा आसा. पूण हातुंतलीं अठ्ठावीस युगां म्हणजे सारको कितलो काळ तें सांगप कठीण. संतांचीं हीं वचनां फकत पुर्विल्लेंपण सुचयतात.

विठ्ठल ह्या उतराच्यो जायत्यो व्युत्पत्ती सांगिल्ल्यो आसात. मुखेलपणान विठ्ठल हें उतर विष्णु ह्या उतराचें अपभ्रंश रूप आसा. हें चडकरून सगळयांक जरी मान्य आसलें तरीय तें रूप अपभ्रंश प्राकृत भाशेंतलें काय द्राविडी भाशेंतलें हो वाद मिटना. विठोबाक पांडुरंग अशेंय म्हण्टात. हें नांव ताका कशें मेळळें तें सांगपाक येना. कारण पांडुरंग हें धवल शिवाचें नांव आसा. हाचेंच कानडींत पंडरंग हेंय रूप आशिल्लें.

पंढरपुरांत आयज जी विठ्ठलमूर्ती आसा ती उबी आसा. तिचे तकलेर कोंगऱ्यांची टोपी आसा. पूण पुजारी हाका शिवलिंग आनी कोंगऱ्यांक फाटीचेर वडयल्ली शिंक्याची दोरी अशेंय म्हण्टात. कानांत नुस्त्याच्या आकाराचीं कुंडलां आसून तीं खांद्यांचेर आडवीं आसात. गळयांत कौस्तुभ मणयांची माळ आसा. काळजाच्या उजव्या आनी दाव्या भागाचेर एक खळगी आनी वांटकुळखंड आसून ताका श्रीवत्सलांछन आनी श्रीनिकेतन हीं नांवां दितात. दंडाचेर आनी मनगटांचेर बाजूबंद आनी मणिबंद आसात. दाव्या हातांत शंख आसून तो हात कमरार दवरिल्लो आसा. उजव्या हातांत मोटवी कमलनाल आसून तो हात कमरार आसा. कमराक तिट्टी मेखला आसा. पावलां एका चौकोनाचेर आसून तिका वीट म्हण्टात. विटेसकयल उरफाटें कमळ आसा. कमरेक वस्त्र आशिल्ल्याच्यो कुरवो दिसनात. पूण जायत्या जाणांचें मत कमरेक वस्त्र आसा अशें आसा आनी हें जर मतींत घेतलें जाल्यार दोन पांयांमदल्या फातराच्या भागाक वस्त्राचो शेव म्हणूं येता.

हे विठ्ठलमूर्तीची घडण गुप्तयुगांतल्या चडकरून इ.स. च्या पांचव्या वा सव्या शेंकड्यांतली आसुंये. तशेंच विठ्ठलाचें मूर्तीविज्ञान हें अशें आसलें तरीय सगळे संतजन मात तिचें वर्णन वेगळेंच करतात. ते तांच्या दोळयांनी पळयल्लें ध्यान नासून मनांतलें आसा. देखूनच तें आयच्या पंढरपुरांतले मूर्तीकडेन जुळना.

विजयनगराच्या राजान पंढरपूरची विठ्ठलाची मूर्त अनागोंदीक व्हेली आनी एकनाथाचो पणजो संत भानुदास हाणें ती थंय वचून परत हाडली अशी एक समजूत आसा. तुकाराम, महीपती सारकिल्ले संत आनी आधुनिक अभ्यासक ह्या सगळयांचें हेविशीं एकमत आसा.

शके १४९३ त वादिराजतीर्थान तीर्थबंध नांवांचें एक प्रकरण रचील्लें आसा. तातूंत विठ्ठलस्तुतीपर कांय श्लोक आसात. तातुंतल्या एका श्लोकांत विठ्ठल तुंगेचे देगेर म्हणजे विजयनगराक गेल्ल्याचो निर्देश आसा. पूण तो थंय किदयाक गेलो हाचें खरें कारण मात दिवंक ना.

विठोबाची मूर्त मूळची जैनांची आसा असो एक समज आसा. पूण ताका आदार कांयच ना. तशेंच विठ्ठल हो मुळचो कर्नाटकांतलो काय महाराष्ट्रांतलो होय एक वादाचोच विशय आसा. हाचेविशीं जायत्या जाणांनी आपलीं मतां माडिल्लीं आसलीं तरीय एकनाथाच्या अभंगांत देशवाची अर्थ दिसता. ताकालागूनच विठ्ठल हो मुळचो कानडी दैवत आशिल्ल्याची जाणविकाय मराठी संतांक आशिल्ली जांवये. हाच्या वांगडाच परिस्थितीजन्य पुराव्यांचोय अभ्यास जावपाकच जाय.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : वारकरी संप्रदाय

**विठ्ठलनाथ :** (इ. स. १५१५ - १५८५).

वल्लभपंथाचो व्हड आचार्य. वल्लभाचार्याचो दुसरो पूत आनी

अश्टछाप कविमंडळाचो प्रवर्तक. हाका गोस्वामी विठ्ठलनाथ अशेंय म्हण्टात. विठ्ठलनाथाचो जल्म काशीलागच्या चरणाद्री वा चुनारगढ नांवाच्या गांवांत शके १४३७ च्या पौष शुध्द नमीक जालो. सुरवातीचीं कांय वर्सां आवय बापायचो मोग मेळ्ळया उपरांत तो काशीचे विद्वान यती पंडित आनी मधुसूदन सरस्वती हांच्या म्हऱ्यांत विद्याध्ययनाखातीर वचून रावलो. बुध्दीन हुशार आनी विनम्रवृत्ती हांच्या बळार पिरायेच्या पंदराव्या वर्साच तो वेद, शास्त्र, पुराण हांचें अध्ययन सोंपोवन प्रकांड पंडित जालो. भुरगेपणासावन ताचें मन भक्तीकडेन ओड घेतालें. ताकालागून स्वसंप्रदायांतल्या तात्त्विक सिध्दांन्ताच्या वादचर्चेपरस ताका भागवतांतले कृष्णलीलेंत रंगून वचप चड मानवतालें. अभ्यास चालू आसताना ताचो तिर्थरूप वल्लभाचार्य निजधामाक गेल्लो. त्या आदीं थोडे दीस विठ्ठलनाथ आनी ताचो व्हडलो भाव गोपीनाथ बापायक मेळपाक गेल्लो, तेन्ना विठ्ठलनाथान बापायकडेन आपल्याक गुरूमंत्र दिवपाची विनंती केली. तेन्ना वल्लभाचार्यान (बापायन) एका कागदाचेर साडेतीन श्लोक बरयले आनी तें कागद विठ्ठलनाथाक दिलें. त्या वेळार ताचो बापूय उलोवंक शकनासलो जांवये नाजाल्यार ताणें मौन धारण केल्लें जावंये. हेच श्लोक वल्लभसंप्रदायांत 'शिक्षासार्धत्रय श्लोक' ह्या नांवांन नामनेक पावल्यात.



वल्लभाचार्याच्या निर्वाणा उपरांत विठ्ठलनाथान वल्लभाचार्याच्या अर्दकुटया ग्रंथाक पुराय रूप दिवपाचें काम आपणायलें आनी सगळयांत पयलीं ताणें अर्दकुटो अणुभाश्य ग्रंथ पुराय केलो. तत्त्वदीप नांवाचो निबन्धान्तर्गत भागवतार्थ नांवाच्या प्रकरणाचो विस्तार वल्लभाचार्यान तृतीय स्कंदा मेरेन केल्लो. विठ्ठलनाथान तो पंचस्कंधामेरेन करून ग्रंथ सोंपयलो. तेभायर ताणें सुबोधिनी, षोडशग्रंथ ह्या वल्लभचार्याच्या बऱ्याच ग्रंथांचेर टिका बरयल्यो आनी त्याच काळांत आपलो व्हडलो भाव गोपीनाथ हाका संप्रदायसंवर्धनाच्या कामांत मोलाचो आदार आनी मार्गदर्शनय केलें.

इ.स. १५४२ त गोपीनाथान संवसार सोडल्याउपरांत वल्लभपंथाचीं मुखेल आचार्यपदाचीं सुत्रां विठ्ठलनाथाकडेन आयलीं. आचार्यपद आपणायल्या उपरांत तो आपल्या व्हडल्या भावाच्या पुण्यस्मृत्यर्थाखातीर सगळया कुटूंबासयत ब्रजयात्रेक गेलो. ह्यावेळार ताची कीर्त गोंडवनाची राणी दुर्गावती हिच्या कानार पडली. तिणें व्हडल्या भक्तिभावान विठ्ठलनाथाक गढमंडल हे राजधानीच्या गांवांत आपोवन तांचो व्हडलो सन्मान केलो आनी हे राणयेच्या आग्र्यावयल्यान सागरच्या पद्मावती नांवाचे चलयेकडेन विठ्ठलनाथान दुसरें लग्न केलें. ताची पयली बायल रुक्मिणी आनी तिचे स पूत ह्या वेळार ताच्या वांगडा आसले. फुडें पद्मावतीकय एक चलो जालो. ह्या सगळया कुटूंबासयत विठ्ठलनाथ मथुरेक रावपाक लागलो. पूण कांय दिसांनी गोंडवनाचेर अकबर बादशाहान तांचेर घुरी घाली. त्या वेळार जाल्ल्या झुजांत राणी दुर्गावती मेली. हे घडणुकेन विठ्ठलनाथ खूब दुखावलो आनी हें दुख्ख विसरपाखातीर तो अडैल ह्या आपल्या गांवांत वचून रावलो. कांय दिसांनी तो परत मथुरेक परतलो.

गोस्वामी विठ्ठलनाथाचें सगळयांत म्हत्वाचें काम म्हळयार ताणें वल्लभसंप्रदायाचें केल्लें चिरेबंदी बांदप. वल्लभाचार्याचो तत्त्वविचार लोकांमेरेन पावोवपाखातीर ताणें पयलीं ताचेर टीका आनी भाश्यां बरयलीं. तत्त्वज्ञान हें सर्वसामान्यांक रुक्षच दिसचें हें मतींत घेवन ताचे जोडयेक ताणें भगवद्‌भक्तीचे वेगवेगळे उपासनामार्ग निर्माण केले तेचपरीन भक्तिपर पदसाहित्याच्या निर्मितीकय प्रोत्साहन दिलें. ताणें आपल्या लेखनान, वक्तृत्वान आनी व्यक्तिमत्वाच्या प्रभावान पुष्टिसंप्रदाय समृध्द करून लोकांमेरेन पावयलो. श्रीनाथाच्या देवळांत अष्टभोग, अष्टदर्शन अशो कांय नव्यो प्रथा ताणें सुरू केल्यो. तशेंच वर्सुकी उत्सव - महोत्सव सुरू केले. अष्टछाप कविमंडळाचें प्रवर्तन हें विठ्ठलनाथाचें दुसरें म्हत्वाचें कार्य. आपले चार आनी आपल्या बापायचे चार शिश्य अशे आठ भक्तकवी म्हूण ताणें अष्टछाप कवी नांवाचें एक कवी मंडळ सिध्द केलें. ह्या कवींनी रचिल्ल्यो गीतरचना श्रीनाथजीच्या सांप्रदायिक उपासनेंत गायतात.

विठ्ठलनाथाच्या नांवार एकूण ४६ ग्रंथांची वळेरी मेळटा. तातुंतले विद्वन्मंडन, भक्तनिर्णय, शृगाररसमंडन, भक्तिहंस, ललिताभंग अशे ल्हान - व्हड ग्रंथ चड नामनेचे आसात. ह्या ग्रंथांतल्यान ताची हुशारकाय आनी जनसामान्यांविशींची ओड दिसात. एकफावट श्रीनाथाचो मुखेल पुजारी कृष्णदास, हाका आपले पदवेचो गर्व जाल्ल्यान ताणें फकत विठ्ठलनाथाकूच श्रीनाथदेवळाचें दर्शन बंद केलें. तेन्ना विठ्ठलनाथाक जें दुख्ख जालें तें ताणें दर दिसा एक 'विज्ञप्ती' बरोवन श्रीचरणी व्यक्त करपाक सुरवात केली. ताच्या 'विज्ञप्ति संग्रहा' वयल्यान ताका श्रीनाथाच्या विरहाकलागून जाल्ल्या दुख्खाची कल्पना येता. वल्लभसंप्रदायांत विठ्ठलनाथाक कृष्णाचो अवतार आनी ताचो व्हडलो भाव गोपीनाथ हाका बलभद्राचो अवतार मानपाची प्रथा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**विदर्भ :** महाराष्ट्राचो एक प्रांत. विदर्भ हें नांव खूब पुर्विल्लें आसा. विदर्भ नांवाच्या राजान ह्या प्रदेशांत आर्यांची वसाहत स्थापन केल्ली

म्हणून हाका विदर्भ हें नांव मेळ्ळें. भागवत पुराणांत मात विदर्भाविशीं म्हायती मेळटा ती अशी - विदर्भ हो ऋषभदेवाचो पूत आसलो. यदुवंशाची भोज नांवाची एक शाखा आसली, ते शाखेंतलो ऋषभदेव हो मुखेल आसलो. ताका णव पूत आसले. तातुंतल्या विदर्भ नांवाच्या पुताक हो प्रदेश मेळिल्लो.

विदर्भाची पुर्विल्ली राजधानी कुंडिनपूर अमरावती जिल्ह्यांत आसा. पुर्विल्या काळांत विदर्भांत नर्मदा न्हंयेसावन दक्षिणेक कृष्णा न्हंयेच्या देगणा मेरेन आनी अस्तंतेक ऋषिक (खानदेश) देशासावन उदेंतेक कोसल देशामेरेन पातळिल्ल्या विशाल भूंयेच्या भागाचो आस्पाव जातालो.

अगस्त्य ऋषीन पयलीं विंध्य दोंगरांतल्यान मार्ग काडून दक्षिण भारतांत प्रवेश केलो आनी विदर्भांत आश्रम स्थापून आर्य संस्कृतीचो प्रसार केलो. विदर्भाचो उल्लेख उपनिशदांत मेळटा. ह्या काळांत लेगीत विदर्भ देश नामनेक पाविल्लो.

महाभारत, रामायण, पुराणां ह्या ग्रंथांनी विदर्भाचो उल्लेख मेळटा. पयोष्णी (पुर्णा), वरदा, वेणा ह्या न्हंयांच्या देगांवयल्या पुण्यक्षेत्रांचें वर्णन ह्या ग्रंथांनी मेळटा. श्रीकृष्णाची पट्टराणी रुक्मिण, नलराजाची दमयंती आनी रघुवंशांतल्या अजराजाची राणी इंदुमती ह्यो विदर्भराजकन्या आशिल्ल्यो.

**पुर्विल्लो इतिहास :** सनपयलीं तिसऱ्या शेंकड्यांत हो प्रदेश मौर्य सम्राट अशोक हाच्या साम्राज्याचो एक भाग आशिल्लो. अशोकाचो शिलालेख ह्या प्रदेशांत सांपडूंक ना. पूण ताचो महामात्राचो एक शिलालेख चांदा जिल्ह्यांतल्या देवटेक हांगा मेळ्ळा. मौर्या उपरांत ह्या प्रदेशाचेर सात वाहनांची सत्ता प्रस्थापित जाली. तांच्या नाण्यांचो व्हडलो संग्रह अकोला जिल्ह्यांतल्या तऱ्हाळ हांगा सापडला. तातूंत चडशीं सातवाहन राजांचीं नाणीं मेळ्ळयांत. ताचेवयल्यान ह्या प्रदेशाचेर सातवाहनांचें राज्य सुरवातीसावन म्हळयार इ.स. २५० मेरेन चालू आशिल्लें अशें दिसता. कलिंगाधिपती खारवेल हाणें विदर्भाचेर घुरी घाली, तेन्ना ताचें सैन्य कण्हवेण्णा न्हंयेमेरेन पाविल्लें, अशें भुवनेश्वरालागच्या हाथीगुंफा लेण्यांतल्या लेखावयल्यान कळटा.

इ.स. २५० च्या सुमाराक सातवाहनांचो शेवट जावन वाकाटक वंशाचो उदय जालो. त्या वंशांतल्या विंध्यशक्ती नांवाचे व्यक्तीन विदर्भांत आपलें राज्य स्थापलें. त्या काळांत विदर्भांत खूब समृध्दी आशिल्ली. संस्कृत आनी प्राकृत वाङ्मय, कलाकौशल्य, धंदो हांचीय उदरगत जाल्ली.

वाकाटकांच्या अस्ताउपरांत इ.स. ५५७ च्या सुमाराक माहिष्मतीच्या कलचुरीचें राज्य विदर्भांत प्रस्थापित जालें. कलचुरींचे लेख विदर्भांत मेळूंक ना, पूण त्या वंशाचो संस्थापक कृष्णराज हाचीं कितलींशींच रुप्याचीं नाणीं अमरावती जिल्ह्यांत धामोरी आनी बैतुल जिल्ह्यांत पट्टन ह्या गांवांत सापडल्यांत.

इ.स.च्या ७ व्या शेंकड्याच्या पुर्वार्धांत उदयाक आयिल्लो बादामीचो चालुक्यनृपती पुलकेशी (दुसरो) हाणें कलचुरीचो पराभव करून तीन महाराष्ट्र आपल्या साम्राज्याक जोडले. चालुक्यांच्या आनी राष्ट्रकुटांच्या वेळार विदर्भांत एक राष्ट्रकूट घराणें राज्य करतालें. तांचे कांय तांब्यापटे अकोला जिल्ह्यांत सांगळूद आनी बैतुल जिल्ह्यांत मुलताई हांगा सापडल्यात. ताची राजधानी उपरांतच्या काळांत अचलपूर हांगा आशिल्ली. राष्ट्रकूटांचे खुबशे तांब्यापटे विदर्भांत सांपडल्यात. मान्यखेटच्या राष्ट्रकुटांची सत्ता विदर्भाचेर प्रस्थापित जाल्याउपरांत कांय विदर्भीय विद्वान तांच्या आलाशिऱ्याक गेल्ले. हेच राजवटींत चांदा जिल्ह्यांत मार्कंडी हांगा सोबीत शिवाचें देवूळ बांदला.

धारानुपती भोज हाचो पुतणयो जगद्देव हो चालुक्य विक्रमादित्य (सवो) हांच्या आलाशिऱ्याक गेल्लो, तेन्ना विक्रमादित्यान ताका विदर्भाच्या कांय भागांचो अधिपती नेमिल्लो. ताचो इ.स. ११९२ चो शिलालेख यवतमाळ जिल्ह्यांत डोंगरगाव हांगा सापडला. विदर्भाच्या पुर्विल्ल्या भागाचेर परमारांची सत्ता आशिल्ली. भांदक हांगा परमारनृपती लक्ष्मदेव हांचो इ.स. ११०४ - ५ चो शिलालेख सांपडला. त्या काळांतल्यो कांय सोबीत मूर्तीय विदर्भांत सांपडल्यात.

तेउपरांत विदर्भाचेर यादवांची सत्ता आयली. त्या वंशांतल्या राजाचे खूब शिलालेख विदर्भांत वेगवेगळया जाग्यार सांपडल्यात. ह्या यादवांचे राजवटींत बोपदेव हो नामनेचो ग्रंथकार आनी वैयाकरण जावन गेलो. तो वर्धा न्हंयेचे देगेर आसपी वेदपद गांवांत रावतालो. त्याच काळांत विदर्भांत महानुभाव पंथ उदेलो. ह्या पंथाचो मूळ पुरूस गोविंद प्रभू हो अमरावती लागच्या ऋध्दपूरांत रावतालो. ह्याच काळांत वैदिक धर्मियांनीय विदर्भांत बरी ग्रंथरचना केली. मुकुंदराजाचो गुरू हरिनाथ हाची समाधी वैनगंगेचे देगेर अंबानगर (अंभोरे) हांगा आसा. यादवनृपती सिंधण हाचो सेनापती खोलेश्वर हो मूळचो विदर्भांतलो. ताणें अचलपुरांत शाङ्‌र्गधराचें (विष्णुचें) व्हडलें देवूळ बांदलां आनी पूर्णा न्हंयेचे देगेर आपल्या नांवाचो अग्रहार बसयला. तेचप्रमाण वऱ्हाडांत खूब देवळां, अग्रहार, वापी आनी पेंवपाचीं तळींय बांदल्यांत. यादवा उपरांत विदर्भाचेर मुसलमानांची सत्ता प्रस्थापित जाली.

आयज महराष्ट्रांत वर्धा, नागपूर, चांदा, भंडारा, अमरावती, अकोला, यवतमाळ आनी बुलढाणा या जिल्ह्यांचो विदर्भांत आस्पाव जाता. तातुंतल्या अमरावती, अकोला, यवतमाळ आनी बुलढाणा ह्या भागांक वऱ्हाड म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**विदुर :** महाभारतकालीन एक राजनीतिज्ञ. विचित्रवीर्य राजाची बायल अंबिका हिच्या दासीच्या पोटांत व्यासापसून ताचो जल्म जालो. ताची कथा अशी - कुरू राजा विचित्रवीर्य हाका भुरगीं जावचे आदींच

मरण आयलें. ताकालागून कुरूवंश खंडीत जालो. तेन्ना विचित्रवीर्याची आवय सत्यवती हिणें नियोग पद्धत चालींत हाडपाचें थारावन तेखातीर महर्षी व्यास हाका विचित्रवीर्यांच्या बायलांगेर पुत्रप्राप्ती करपाक सांगलें. सुरवेक तिणें अंबिका हे सुनेक व्यासाम्हऱ्यांत धाडली. पूण तिका व्यासाचें तेज सहन जालें ना. ताकालागून तिगेर जो पूत जालो तो कुड्डो जालो. तेन्ना सत्यवतीन अंबिकेक परत व्यासाकडेन वचपाची आज्ञा केली. तेन्ना अंबिकेन आपूण व्यासाकडे वचनासतना आपले दासीक धाडली. ते दासीक व्यासापसून एक तेजिश्ठ आनी बुदवंत पूत जालो, तोच विदुर. ब्राह्मणावरवीं पूण शूद्र बायलेच्या पोटांत ताचो जल्म जाल्ल्यान ताचो वर्ण हीन थारलो. ताकालागून ताका राज्य मेळ्ळें ना. ताची बायल पारशवी ही देवकराजाची धूव आशिल्ली. ताका जायते पूत आशिल्ले.

भीष्मान धृतराष्ट्र आनी पंडू हांचे वांगडाच विदुराचेंय व्यवस्थीत पालन - पोशण केल्लें. विदुराक ल्हानपणासावनच धर्म, सत्य हांची आवड आशिल्ली. तो जसो तत्त्वज्ञ आशिल्लो तसो व्हड मुत्सद्दीय आशिल्लो. ताचे गूण पारखूनच भीष्मान ताका धृतराष्ट्राचो मंत्री केल्लो. ताणें जल्मभर धृतराष्ट्र, दुर्योधन, युधिष्ठिर आदी राजकर्त्यांक फाव तो सल्लो दिवपाचें काम केलें. कठीण आसलें तरी खरें तेंच सांगपाक तो केन्नाच अनमनलो ना.

तो मरसर जरी कौरवांवटेन आसलो तरी ताची ओड सदांच पांडवांवटेन आशिल्ली. पांडवांचेर तो पुतावरी मोग करी. तांकां फाव त्या वेळार योग्य ते सल्लेय तो दितालो. एक फावट तर ताणें पांडवांक मरणापसुनय वांचयल्ले. जेन्ना पांडव वनवासाक वचूंक भायर सरले तेन्ना ताणें तांकां कौरवांच्या कपटी कारस्थाना विशीं सुचीत केले आनी ते ज्या घरांत रावपाचे आशिल्ले तें लाखेचें घर आसून ताका उजो लागपाचो आसा हेंय ताणें सांगलें. अशा वेळार भायर सरपाक भितरले भितर एक भुंयार खणपाखातीर ताणें तांकां आदार दिल्लो.

विदुराचे सुमाराभायले बुदवंतकायेचो धाक धृतराष्ट्राक आनी कौरवांक सदांच आसतालो. एका एका प्रसंगावेळार कुड्डया धृतराष्ट्राक आपल्या पुतावयले कुड्डे मायेमुखार ताचो सल्लो मान्य नाशिल्लो. तरीय तो ताका विचारल्याबगर राव नाशिल्लो. पुतावयली माया आनी राज्यलोभ हांकांलागून धृतराष्ट्राक विदुरासारक्या नीतीगिन्यानी मनशाचो फायदो घेवंक कळ्ळो ना. विदुराचो ताका रागूय येतालो, तशेंच विदुराबगर ताका सुखूय लागनाशिल्लें.

विदुराची हुशारकाय आनी विवेकशक्ती हांचो पगडो कुरू कुळांतल्या जाण्टया आनी व्हड व्हड कर्त्या मनशांचेरूय दिसून येतालो. म्हत्वाच्या राजकीय, कुटुंबीक प्रसंगावेळार भीष्मासारक्या दीर्घदर्शी आनी कर्तृत्वान मनशाकूय विदुराच्या सल्ल्याची गरज लागताली. कौरव - पांडवांमदीं बरेंपण जावचे आनी तांणी एकठांय येवन कुरू कुळाचो उत्कर्श घडोवंचो हें ताच्या विचारांचें मुखेल सूत्र आशिल्लें. ज्या वेळार कौरव - पांडवांत आंतरीक कलहाचो प्रसंग येतालो ,तेन्ना तांकां विदूर कल्याणाचो आनी सलोख्याचो उपदेश करतालो.

कौरव - पाडवांमदीं झूज जावंचें न्हय देखून ताणें जायते यत्न केले. श्रीकृष्ण ज्या दिसा मध्यस्थी करपाक येवपाचो आशिल्लो ताचे आदले राती धृतराष्ट्र चलबिचल जाल्लो. ताणें ती पुराय रात विदुराचे विचार आयकुपांत घालयली. ते राती विदुरान धृतराष्ट्राक जो उपदेश केलो तो विदुरनीती ह्या नांवान महाभारतांत प्रसिद्द आसा.

पूण विदुराचे सगळे हितोपदेश फुकट गेले आनी निमाणें कौरव - पांडव हांचें झूज जालें. ताका लागून विदुराचें मन उद्विग्न जालें. तो ह्या झुजांत वांटो घेना आसतना तीर्थयात्रेक गेलो. भारतीय झुजाच्या समाप्तीची खबर ताका प्रभास क्षेत्रांत कळ्ळी. पांडवांक तांचें राज्य परत मेळ्ळें, धृतराष्ट्राच्या सगळया पुतांक ह्या झुजांत मरण आयलें, हें कळटकच ताणें धृतराष्ट्राक वानप्रस्थाक वचपाचो उपदेश केलो. ताच्या उपरांत तो आपुणूय महावानप्रस्थाखातीर रानांत गेलो. युधिष्ठीराक हें कळटकच तो ताचो सोद करूंक लागलो. तो ताका सोदत सोदत रानांत गेलो. विदुर एका झाडाक तेंकून उबो आशिल्लो. ताच्यो जटा वाडिल्ल्यो. ताचो देह अशक्त जाल्लो. तो दिगंबर अवस्थेंत आशिल्लो. ताणें आपल्या तोंडांत फातराचो एक कुडको धरून दवरिल्लो. एके तरेचे उन्मानी अवस्थेंत तो आशिल्लो. जेन्ना युधिष्ठीरान आपूण आयिल्ल्याचें ताका सांगलें तेन्ना तो कांयच उलयलो ना. ताणें फकत आपली एकटक नदर युधिष्ठीराचेर रोखली आनी ते नदरेखरवीं ताणें आपलीं इंद्रियां, प्राण आनी बळगें युधिष्ठीराच्या देहांत विलीन करून उडयलीं. उपरांत जेन्ना युधिष्ठीरान ताचे कुडीचे निमणे संस्कार करपाचो विचार केलो तेन्ना आकाशवाणी जाली - 'जाची कूड पुराय तरेन गिन्यानान लासल्या ताका परत लासपाची गरज ना'.

धर्मनिश्ठा, न्यायनिश्ठा, कर्तव्य तत्परता, सत्यसंधता, विचार क्षमता, विवेकीपणा आनी खरो महानुभावत्व परगटावपी इश्टागत ह्या गुणांनी महामंत्री विदुर म्हळ्यार एक आगळो वेगळो मनीस आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## विद्यापती : (इ.स. चें १४ वें १५ वें शतमान).



एक व्हड मैथिली कवी आनी पंडित. ताच्या चरित्राविशीं पुरायतरेन म्हायती मेळना. ताच्या काव्यांतलो तुटक उल्लेख, मिथिला वाठारांत प्रचलित आशिल्ल्यो दंतकथा, मिथिलेच्या राजांचो इतिहास आनी त्या काळांतलीं कागदपत्रां हांचेवरवीं ताची जी म्हायती मेळटा, ती अशी -

बिहार राज्यांतल्या गढ बिसपी नांवाच्या एका ल्हानशा गांवांत विद्यापतीचो जल्म जालो. त्या गांवांत विद्यापतीचें घराणें पंडिताचें आनी कवीचें म्हूण प्रसिद्द आशिल्लें. विद्यापतीचो बापूय गणपती ठाकूर हो एक व्युत्पन्न पंडित आसून ताणें गंगाभक्तितरंगिणी नांवाचें काव्य बरयल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. ताच्या बापायचें मिथिलेच्या राजदरबारांत येवप - वचप आशिल्लें. आपलेवरीच आपल्या भुरग्यांकय राजदरबारांत मानसन्मान मेळचो अशें ताका दिसतालें. ताणें हरिमिश्र नांवाच्या विद्वान पंडिताकडेन विद्यापतीक शिक्षण घेवंक धाडलो.

विद्यापतीचें शिक्षण सोंपतकच ताच्या बापायन ताका मिथिलेचो राजा कीर्तिसिंह हाच्या दरबारांत धाडलो. थंय राजा कीर्तिसिंहाच्या दरबारांत तो पंडित जालो. ह्या दरबारांत पावतकच विद्यापतीन कीर्तिसिंहाचो गौरव करपी 'कीर्तिलता' नांवाचें एक काव्य बरयलें. ह्या काव्यान ताका सुमाराभायर नामना मेळ्ळी.

तेउपरांत थोड्याच दिसांनी कीर्तिसिंहाक मरण आयलें. तेउपरांत आनीक दोन राजा गादयेर आयले आनी गेले. पूण तांचेउपरांत आयिल्लो राजा शिवसिंह आनी ताची राणी लखिमा ही रसाची आनी गुणांची आस्वादक आशिल्लीं. विद्यापतीन आपल्या काव्यावरवीं ताच्या काळजांत सुवात मेळयली.

पूण एक दीस दिल्लीच्या सुलतानान व्हडलें सेनादल घेवन मिथिलीचेर घुरी घाली. ताचेवांगडा जाल्ल्या झुजांत शिवसिंहाक जैत मेळ्ळें. ताच्या ह्या जैताचेर विद्यापतीन 'कीर्तिपताका' ह्या नांवाचो काव्यग्रंथ बरयलो. ह्या ग्रंथांत ताणें ह्या झुजाप्रसंगाचें बेसबरें आनी प्रत्ययकारी वर्णन केल्लें आसा.

तेउपरांत कांय वर्सांनी दिल्लीच्या सुलतानान परत मिथिलीचेर घुरी घाली आनी तातूंत शिवसिंहाक मरण आयलें. अशावेळार विद्यापती राणी लखिमाक आनी तांच्या हेर परिवाराक घेवन नेपाळचे शीमेर आशिल्ल्या बनौली राज्याच्या पुरादित्य राजाकडेन गेलो. तो राजा शिवसिंहाचो लागसल्लो इश्ट आशिल्लो. ताणें शिवसिंहाच्या परिवारावांगडाच विद्यापतीक आपल्या दरबारांत कवी म्हूण आश्रय दिलो.

विद्यापतीन पुरादित्याखातीर लिखनावली नांवाचो एक काव्यग्रंथ बरयलो. पूण शिवसिंहाक लागून मानसिकतरेन तो पुराय खचिल्लो. तेन्नाच शिवसिंहाचो भाव पद्मसिंह मिथिलेचो राजा जालो. ताणें विद्यापतीक मिथिलेक आपोवन हाडलो. विद्यापती मिथिलेक परत आयलो आनी ताणें पद्मसिंहाखातीर काव्य बरप केलें. पूण ताच्यांत आतां आदली उत्कटता नाशिल्ली. तातुंतच ताका म्हातारपणय आयिल्लें. उपरांत तो आत्मसमर्पण करपाच्या हेतून उत्तर बिहारांतल्या बाजितपूर नांवाच्या गांवांत गेलो. थंय गंगा न्हंयेचे देगेर ताणें आपली कूड दवरली.

विद्यापतीचे यादीक गंगेचे देगेर एक शिवाचें देवूळ बांदलां. दर वर्सा कार्तिक शुध्द त्रयोदशीक थंय व्हड जात्रा भरता. हे जात्रेंत विद्यापतीच्या कवितांचें गायन जाता.

विद्यापतीन वट्ट १४ ग्रंथ बरयल्ल्याची नोंद मेळटा. तातुंतले मुखेल ग्रंथ अशे - कीर्तिलता, कीर्तिपताका, पुरुषपरीक्षा, शैवसर्वस्वसार, पदावली. ताका सगळयांत चड नामना मेळ्ळी ती ताच्या पदावली ह्या ग्रंथाक लागून. ह्या ग्रंथाकलागूनच ताका 'मैथिलकविकोलक' हें नांव मेळ्ळें.

- कों. वि. सं. मं.

**विद्यापीठ :** शिक्षणीक मळावयली सगळयांत उंचेल्या पांवड्याची शिक्षण संस्था. हे संस्थेंत सगळया तरांचें उंचेल्या पांवड्याचें शिक्षण दिपाची वेवस्था आसता. परिक्षा घेवन त्या त्या विशयांतल्यो पदव्योय हांगा दितात. अभ्यास क्रमीय शिक्षणावांगडाच संशोधन करपाखातीर आनी संशोधनाचे सोद-निबंद प्रसिद्द करपाखातीर हांगा खाशेली तजवीज केल्ली आसता. तेभायर विद्यार्थ्यांची सर्वांगी उदरगत सादपाच्या उद्देशान हांगा खेळ, कला, समाजसेवा सारकिल्ले उपक्रम घेवन विद्यार्थ्यांचें व्यक्तीमत्त्व घडोवपाचें कार्य चलता.

पुर्विल्ल्या काळांत युरोपीय देशांत मान्यता प्राप्त एकय विद्यापीठ नाशिल्लें. पूण जायतीं विद्यालयां आशिल्लीं. देखीक ॲथन्सचें दार्शनीक विद्यालय वा रोमचें साहित्य आनी रितिशास्त्राचें विद्यालय जी उच्च पांवड्याची शिक्षणीक संस्था आशिल्ली. मध्य युगांत शिक्षणाचेर धर्मीक संस्थांचें नियंत्रण आशिल्लें. ह्या युगांत पॅरिसचें धर्मीक विद्यालय धर्मशिक्षणाचें एक केंद्र जाल्लें. ११६८ - १२१५ इ. स. ह्या काळांत पॅरिस विश्वविद्यालय स्थापन जालें, जातूंत धर्मविज्ञान, कला आनी चिकित्सा विभाग आशिल्ले. बाराव्या शेंकड्यांत बोलोनांत कायदो शिकपी विद्यार्थ्यांखतीर एक कायदो विद्यापीठ स्थापन केलें. १३व्या शेंकड्यांत युरोपांतल्या प्रभावानच इंग्लंडांतय ऑक्सफर्ड आनी कँब्रिज विद्यापीठाची स्थापना जाली.

१६व्या शेंकड्यांत युरोपांतलीं विद्यापिठां वैज्ञानीक संशोधनाचीं केंद्रां जालीं. ताचेउपरांत १७व्या शेंकड्यांत शिक्षण दिवप हेंच तांचें मुखेल कार्य जालें. १८व्या शेंकड्यांत विद्यापिठांतल्यान वेवसायीक प्रशिक्षणय दिवपाक लागले. फ्रांसांतले क्रांती उपरांत विद्यापिठांतल्यान राश्ट्रीय थरावयलें शिक्षण दिवपाचीय तजवीज जाली. २०व्या शेंकड्यांत विद्यापिठांकडेन एक भौउद्देशी संस्था हे नदरेन पळोवप जालें. ह्या शेंकड्यांत विद्यापिठांनी जायते बदलय जाले.

उच्च शिक्षणाची वेवस्था आशिल्ल्या भारतांतल्या वैदिक काळांतल्या गुरूकुलांक पुर्विल्लीं विद्यापिठां अशें म्हणूं येता. ताचेउपरांत उपनिषद् आनी ब्राह्मण काळांत 'परिषदो' विद्यापिठांचें काम करताल्यो म्हणपाचें जाणवता. ह्यो परिशदो पांडित्य मेळयल्ल्या शिकोवप्यांच्या तशेंच विद्यार्थ्यांच्या संमेलनाच्या रुपांत आशिल्ल्यो आनी तांकां पदव्यो

दिवपाचोय अधिकार आशिल्लो. बौध्द काळांत शिक्षणाच्या संघटीत अशा केंद्रांची स्थापना जाली. जातूंत तक्षशिला आनी नालंदा हांची चड नामना आशिल्ली. हातूंत वर्गणीय घेताले. हांच्या पाठ्यक्रमांत वेद, वेदांग तशेंच वेगवेगळ्यो कलाचिकित्सा, शल्य, ज्योतीश, नक्षत्र, गणना, शेतकी, धनुर्विद्या हांचो आस्पाव आशिल्लो. तशेंच बौध्द आनी जैन दर्शन वा तर्कशास्त्रय शिकयताले. काठियावाडांत वल्लभी आनी दक्षिणेंत कांची, तक्षशिला आनी नालंदाभाशेन शिक्षणाचीं व्हड केंद्रां आशिल्लीं. हांगा भारताभायल्या देशांतल्यान आयिल्ले खूब विद्यार्थी शिक्षण घेताले.

मुसलमानांचे घुरयेंत भारतांतलीं जायतीं विद्यापिठां नश्ट जालीं. तांणी वेगवेगळ्या थरांवयलें शिक्षण दिवपाक 'मदरसा' वा महाविद्यालयां स्थापन केलीं. ह्या काळांत लाहोर, दिल्ली, रामपुर, लखनौ, इलाहाबाद, जौनपुर, अजमेर, बीदर हांगाचे मदरसे प्रसिद्द आशिल्ले. तातूंत अरबी, फारसी साहित्य, इतिहास, दर्शन, रीतिशास्त्र, कायदो, ज्योतीश अध्यात्मशास्त्र, धर्मविज्ञान सारकिल्ले विशय शिकयताले. हे मदरसेच विद्यापिठीय पांवड्याचें शिक्षण दिताले. ईस्ट इंडिया कंपनीच्या काळांत कलकत्ता मद्रास आनी बनारस संस्कृत कॉलेज उच्च शिक्षण दिवपाचे नदरेन स्थापन जालीं. १८४५त बंगाल काऊंसिल प्रॉव एजूकेशनान पयले फावट कलकत्ता हांगा एक विद्यापीठ स्थापन करपाचो प्रस्ताव पास केलो. १८५४त वुडच्या घोशणापत्रान ताचो स्वीकार केलो. ह्या प्रस्तावाप्रमाण कलकत्ता विश्वविद्यालयाची योजना लंडन विश्वविद्यालयाच्या आदर्शांचेर तयार केल्ली आनी तातूंत कुलपति, उपकुलपति, सीनेट, परिक्षा, अध्ययन - अध्यापन हांची वेवस्था केल्ली. १८५६त कलकत्ता, मुंबय आनी मद्रासांतय विद्यापिठां स्थापन करपाच्यो योजना तयार केल्यो आनी २४ जानेवारी १८५७त ते संबंदींच्या बिलांक गव्हर्नर जनरलाकडच्यान स्वीकृती फाव जाली. ताचेउपरांत कलकत्ता विद्यापिठान पयलीं आपलें कार्य सुरू केलें आनी त्याच वर्सा मुंबय तशेंच मद्रास विद्यापिठांय कार्यरत जालीं. सुरवेक ह्या विद्यापिठांनी कला, कायदो, चिकित्सा आनी इंजिनियरींग अशे चार विभाग सुरू केल्लें. हीं विद्यापिठां महाविद्यालयांकडेन संबंदीत (Affiliate) आशिल्लीं. १८८२त देशी भाशांच्या अभ्यासाखातीर पंजाब विद्यापिठाची आनी १८८७त इलाहाबादाकय एका विद्यापीठाची स्थापना जाली.

१९०२त विद्यापीठ आयोगाची स्थापणूक जावन ताचेवरवीं विद्यापिठांक शिक्षणीक संस्थांच्या रुपान, तशेंच सिनेट, सिंडीकेट आनी फॅकल्टी हांकां मान्यताय दिवपाचें थारलें. उपरांत १९०४त विद्यापिठाच्या सिनेट संघटनेंत बदल जावन ताची सदस्य संख्या वाडयली, सिनेटाक कायद्यान मान्यताय मेळ्ळी, प्राचार्य आनी शिक्षकांचे नियुक्त नेमय तातूंत निश्चीत केले. १९१३त ढाका, अलीगढ, बनारस, पटना, नागपूर आनी हेरकडेन विद्यापिठांची स्थापना केली. १९१६त कलकत्ता विद्यापिठान पदव्यूत्तर शिक्षण विभाग सुरू केलो. १९१७त त्या विद्यापिठाच्या वावराची तपासणी करपाखातीर आयोगाची स्थापना केली. त्या आयोगान देशांतलें उच्च शिक्षण आनी विकासाचेर प्रभाव घालपी अहवाल सादर केलो. उपरांत विद्यापीठ माध्यमिक शिक्षणकार्यासावन वेगळें जावन ताणें मुखेल भर दिलो.

१९४८त डॉ. सर्वपल्ली राधाकृष्णन हाचे अध्यक्षतायेखाला एका विद्यापीठ आयोगाची स्थापना जाली. जातूंत भारतीय विद्यापिठांक राश्ट्रीय आदाराचेर परत एकठांय येवपाची सुचोवणी आशिल्ली. तशेंच देशाचे गरजेप्रमाण नव्या पाठ्यविशयांकय सुरवात करपाचेर भर दिल्ली. ह्या आयोगाच्या अहवाला उपरांत विद्यापिठांचों आंकडो वाडलो. विद्यापिठाची अर्थीक परिस्थितीचो नियाळ करपाक आनी ताका फावो तें अनुदान दिवपाक केंद्र सरकारान एक विद्यापिठीय अनुदान दिवपाक केंद्र सरकारान एक विद्यापिठीय अनुदान समिती (University Grants Commission) नेमली.

भारतांत केंद्रीय नियंत्रणा खाला योवपी केंद्रीय विद्यापिठां आनी राज्य सरकाराच्या नियंत्रणा खाला योवपी राज्य विद्यापिठां आसात. निवासी आनी बीगर निवासी अशेय विद्यापिठाचे प्रकार आसात. निवासी विद्यापिठांत विद्यापिठाच्या आवारांत विद्यार्थी रावता आनी तांचेखातीर विद्यापीठ स्वता वर्ग चलयता. बिगर निवासी विद्यापिठांनी विद्यापिठाक संलग्न आशिल्लीं महाविद्यालयां वर्ग घेता. महाविद्यालयाच्या परिसरांत रावपाची थंय विद्यार्थ्याक सक्ती नासता. कांय शिक्षण संस्था उंचेल्या पांवड्याचें शिक्षण कार्य करता तांकां समकक्ष विद्यापीठ अशी संज्ञा दिल्या.

विद्यापिठाच्या प्रशासनांत कुलगुरू, उपकुलगुरू, कुलसचिव (रजिस्ट्रार) आनी ताचे सहाय्यक हांचो आस्पाव जाता. राज्य विद्यापिठांत राज्याचो राज्यपाल आपशीच कुलगुरू जाता आनी हो हुद्दो बीन पगारी आसता. केंद्रीय विद्यापिठांतय राश्ट्रपती आपशीच कुलगुरू जाता. तेभायर प्रबंध समिती (सिनेट), कोर्ट (सभा), शिक्षण समिती (ॲकाडेमीक काऊंसील), कार्य कारिणी समिती (एक्झीक्युटीव काऊंसील), नियोजन समिती (प्लॅनींग बॉर्ड), वित्तसमिती (फायनान्स कमिटी) ह्यो उंचेल्या पांवड्यावयल्यो समिती विद्यापिठाचो कारभार पळयतात आनी ताचें नियंत्रण, नियोजन करतात.

पाठ्यक्रमीय संघटनाचे नदरेन दर एक विद्यापिठ जायत्या विभागांनी (Faculties) कला, विज्ञान वाणिज्य, कायदो, चिकित्सा, इंजीनियरींग, शेतकी वांटिल्लें आसता. ह्या विभागांचे मुखेली (Dean) आसतात. ह्या विभागांनीय आनीकय जायते भाग आसतात. जांचे वेगवेगळे अध्यक्ष आसतात. ह्या अध्यक्षांक प्रोफेसर म्हण्टात. ताचे सहाय्यक शिकोवपी रीडर, लॅक्चरर जांव असिस्टंर प्रोफेसर आसतात. विद्यापिठांवतीन दितात त्यो पदव्योय वेगवेगळ्यो आसतात. त्यो म्हणजे डी. लिट्, डी. एस्सी, एल. एल. डी., पी. एच्. डी., डी. फिल. आदी

बी.ए., एम.ए., बी, एस्सी, बी. कॉम., एम. कॉम., एल्एल्. बी., एल्. एल्. एम., बी. टी., बी. एड्., एम. ड्. ह्यो पदव्यो त्या त्या विशयांतल्यो लेरवी परिक्षा उत्तीर्ण जाल्या उपरांत दितात. दर एका विद्यापिठाचो दर वर्सा एक पदव्यो दिवपाचो सुवाळो जाता जाका पदवीदान समारंभ (Convocation) अशें म्हण्टात.

पुर्विल्ल्या काळांत भारतांत तक्षशिला, नालंदा, विक्रमशिला, वल्लभी, नदिया, उदयंतपुरी, कांची ह्या विद्यापिठांनी नामना मेळयल्ली. हातूंत भायल्या देशांतलेय विद्यार्थी शिक्षण घेताले. मध्यकाळांत लाहौर, दिल्ली, रामपुर, जौनपुर, बीदर आनी अजमेर हीं शिक्षणाचीं व्हड केंद्रां आशिल्लीं. इंग्लीश राज्याचे स्थापणुके उपरांत १८५७ त त्या काळांतल्या लंडन विद्यापिठाचे धरतेचेर कलकत्ता, मद्रास आनी मुंबय विद्यापिठांची स्थापना जाली. १६१६ त पं. मदन मोहन मालवीयान काशी हिंदू विद्यापीठ आनी १६१८ त हैदराबादच्या निजामान उसमानिया विद्यापिठाची स्थापना केली. भारतांतलीं कांय विद्यापिठां कृषि (शेतकी), इंजिनियरींग, संस्कृत, संगीत सारकिल्ल्या विशयांच्या शिक्षणारवातीर स्थापीत केल्लीं. देरवीक - उत्तर प्रदेश कृषि विश्वविद्यालय, रूद्रपुर नैनीताल, पंजाब कृषि विश्वविद्यालय लुधियाना, कृषि तकनिकी विश्वविद्यालय भुवनेश्वर (ओरिसा), आंध्र प्रदेश कृषि विश्वविद्यालय हैदराबाद, जवाहरलाल नेहरू कृषि विश्वविद्यालय रुडकी थैकरसी विश्वविद्यालय - मुंबय आदी.

सद्या भारतांत २२५ विद्यापिठां आसात. तातुंतलीं १२ विद्यापिठां केंद्रीय दर्ज्याचीं आसून संसदेच्या कायद्याप्रमाण चलतात. हीं १२ केंद्रीय विद्यापिठां अशीं आसात - अलिगढ मुस्लीम विद्यापीठ (अलिगढ), दिल्ली विद्यापीठ, जामिया मिलीया इस्लामिया (दिल्ली), हैदराबाद विद्यापीठ (हैदराबाद), जवाहरलाल नेहरू विद्यापीठ (नवी दिल्ली), इंदिरा गांधी उकतें विद्यापीठ (नवी दिल्ली), नॉर्थ ईस्टर्न हील विद्यापीठ (शिलाँग), विश्वभारती शांतिनिकेतन, बनारस हिंदू विद्यापीठ (वाराणसी), पाँडिचेरी विद्यापीठ, आसाम विद्यापीठ, शिल्कार तेजपूर विद्यापीठ (तेजपूर) आनी नागालँड विद्यापीठ कोहीमा.

कोलंबिया, न्यूयॉर्क, ओहायो, केलीफोर्निया, फ्लोरिडा शिकागो, हार्वर्ड, वॉशिंग्टन, इंडियाना, मिशीगन, येल हीं अमेरिकेचीं प्रसिद्द विद्यपिठां आसात. रूसांत मॉस्को, लेनिनग्राड सारकिल्ल्या व्हड केंद्रीय विद्यापिठांवांगडाच सोवियत संघाच्या व्हड अशा भूभागांरवातीर सेंट्रल एशियन लेनिन विश्वविद्यालय 'फार ईस्ट विश्वविद्यालय' तशेंच सोवियत संघाच्या वेगवेगळया राज्यांचीं जायतीं विद्यापिठां आसात. चीनांत शंघाई, पूशन, चुंकींग, नानकिंग हीं विद्यापिठां प्रसिद्द आसात.

एशिया आनी ऑस्ट्रेलियाच्या सगळया देशांतल्या मुरवेल शारांनी विद्यापिठां आसात. जपानांत टोकियो, हॉकायडो, कियोटो, हिरोशाकी आनी हिरोशिमा हीं विद्यापिठां शैक्षणीक तशेंच विज्ञानाच्या मळार खूब व्हड कार्य करतात. आफ्रीकेंतल्या प्रिटोरिया, नटाल, डरबन, केपटाऊन, ट्रांसलाल ह्या विद्यापिठांचीय नामना आसा.

**फिरतें विद्यापीठ (मोबाइल युनिव्हर्सिटी) :** पांचशें विद्यार्थ्यांनी जलाजान भोंवडी करत वेगवेगळया देशांचो अभ्यास करून, स म्हयन्यांत वेगवेगळो अभ्यासक्रम पुराय करपाचो अशी कल्पना अमेरिकेंतल्या कॅलिफोर्निया राज्यांतल्या चॅपमॅन कॉलेजीन सुरवेक चालीक लायली. जगांतलें हेंच पयलें फिरतें विद्यापीठ. १९७७ ते १९८० हीं तीन वर्सां ह्या विद्यापिठाची वेवस्था कोलोरॅडो स्टेट विद्यापिठाकडेन आशिल्ली.

उपरांत ही वेवस्था पेनसिल्व्हेनिया विद्यापिठाकडेन सोंपयली. स म्हयन्यांच्या काळांत आठवड्यांतल्यान स दीस बोटिचेर शिकप शिकोवप चालू आसता. हातूंत कांय दीस वेगवेगळया बंदरांक आनी शेजारच्या वाठारांक भोंवडी करप जाता. हें जहाज युरोप, आशिया आनी आफ्रिका ह्या रवंडांतल्या वीस मुरवेल बंदरांक भेट दिता. रवंयच्याय बंदराक भेट दिवंचे आदीं त्या देशांतली लोकजीण, राजकारण, समाजीक परिस्थिती, अर्थकरण आदी विशयांचेर विद्यार्थ्यांक म्हायती दिवप जाता. बंदराचेर आनी त्या देशांत प्रत्यक्ष वतकच विद्यार्थी तांकां मेळिल्ली म्हायती आनी तांणीं पळयल्ली वस्तुस्थिती हांची तुळा करून आपली म्हायती तपासून घेतात. जाय जाल्यार संदर्भ ग्रंथ वाचून ती म्हायती तपासून पळेतात. स म्हयन्याच्या अभ्यासक्रमांत अर्दीमर्दी परिक्षा घेतात आनी अभ्यासक्रमाच्या निमाणें विद्यार्थ्यांक प्रशस्तिपत्रक दितात. प्रगत अभ्यास करपाची इत्सा आशिल्ल्या विद्यार्थ्यांक दुसऱ्या वर्सा परत त्याच अभ्यासक्रमांत वांटो घेवंक मेळटा.

ह्या अभ्यासक्रमांत मुरवेलपणान भास आनी समाजशास्त्राचो आस्पाव केल्लो आसता. वेगवेगळया देशांतली समाज वेवस्था, संस्कृतीक फाटभूंय अशा तरेचे तुळात्मक आनी आंतर विद्याशारवीय अभ्यासक्रम वेंचतात. विद्यार्थ्यांवांगडा मूळच्या विद्यापिठांतले प्राध्यापक आसतातच. तेभायर वेगवेगळया देशांतल्या प्राध्यापकांक आपयतात. देरवीक : भारतांतले प्राध्यापक विमानान नैरोबीक वचून थंयच्यान जहाजावांगडा मुंबय येतात आनी भारताविशींच्या अभ्यासक्रमांत वांटो घेतात. जहाजाचेर व्हड ग्रंथालय, रवेळ आनी संस्कृतीक कार्यक्रम हांची सोय आसता.

चड करून समाजीक विशयांचो अभ्यास करून वयल्या विद्यापिठांवरवीं अमेरिकेंतल्या फ्लोरिडा राज्यांतल्या मियामी विद्यापीठ जहाज भोंवडेत दर्याविशयांचो विशेश अभ्यासक्रम चलयता. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळासावन हो अभ्यासक्रम चालू आसा. ह्या अभ्यासक्रमाचेर आधारीत अशी पदवी ह्या विद्यापिठावतीन दितात.

**मुक्त विद्यापीठ (Open University) :** विद्यापीठ परीसर आनी विद्यार्थी निवास हांच्या मदल्या अंतराक लागून, वा वेळेच्या उणावाक लागून वा अर्थीक कारणाक लागून, कांय विद्यार्थी विद्यापिठांतल्यान वा संलग्न महाविद्यालयांतल्यान विद्यापिठीय शिकप घेवपाचे परिस्थितींत नासता. अशा गरजू विद्यार्थ्यांक उंचेल्या शिक्षणाचो

लाव मेळचो ह्या उद्देशान मुक्त विद्यापिठाची कल्पना मुरवार आयली.

अशा विद्यापिठांत हेर पारंपारीक विद्यापिठांसारकें विद्यापिठाच्या वा संलग्न महाविद्यालयाच्या वर्गांनी बसून शिकप घेवपाची गरज नासता. चडसो अभ्यासक्रम टपालसेवे वरवीं (पत्र अभ्यासक्रम) वा टेलीव्हीजनावरवीं, वा इंटरनेट सारकिल्या आधुनिक संपर्क माध्यमावरवीं घरबसल्या शिकोवप जाता. गरज पडटा तेन्ना कांय समक्ष व्याख्यानां आयोजीत करपाची वेवस्था जाता.

अभ्यासक्रमाचे अखेरेक विद्यापिठाची परिक्षा पास जातकीर विद्यार्थ्यांक प्रमाणपत्र मेळटा. हें अशेतरेन मेळिल्लें प्रमाण पत्र (पदवी) हेर खंयच्याय पारंपारीक विद्यापिठाकडसून मेळिल्ले पदवे इतकेंच मोलाचें आसता. केंद्रीय थराचेर इंदिरा गांधी ओपन युनिव्हर्सिटी हें एक अशे तरेचें नावाजतें मुक्त विद्यापीठ आसा. अशींच मुक्त विद्यापिठां राज्य थराचेरय चलतात.

सुरवेक फकत भाशाशास्त्र, सामाजीक विज्ञानां आनी तत्सम शास्त्रांच अभ्यासकाची सोय मुक्त विद्यापिठांत जातली. आतां ह्या विभागावांगडाच वाणिज्य शास्त्र, आस्थापन शास्त्र, गणीत, वाचनालय शास्त्र, संगणक शास्त्र सारकिल्या विज्ञानीक शास्त्रांच्या अभ्यासक्रमांचीय सोय अशा विद्यापिठांत जावंक लागल्या.

पयलें मुक्त विद्यापीठ बोलोन्या हांगां विद्यार्थ्यांनी सुरू केलें अशी नोंद आसा.१९६४बर्कली (अमेरिका) हांगा हीच कल्पना पारंपारीक विद्यापिठाच्या कारभारा आड संप करपी विद्यार्थ्यांनी मुरवार हाडली. निपक्षपाती वातावरण, उक्ती भासाभास, संमेलनां आनी मुक्त जीण अशी ह्या विद्यापिठाची आंखणी आसली. उपरांतच्या धा वर्सांच्या काळांत, विशिश्ट अभ्यासक्रम, परिक्षा, नेमावळ, शिक्षकविद्यार्थी वर्ग, अशा बंधनांतल्यान मुक्त अशा बऱ्याच विद्यापिठांची स्थापना जाली.

१९७० उपरांत मुक्त विद्यापिठाची कल्पना भारतांत रुजली. १९८२ त नागार्जुनसागर हांगा मुक्त विद्यापीठ सुरू जालें. आयचे घडयेक भारतांतच अशीं जायतीं मुक्त विद्यापिठां कार्यरत आसात. तेभायर बऱ्याचशा पारंपारीक विद्यापिठांनीय बहिशाल (External) अभ्यासक्रम सुरू करून पारंपारीक विद्यापिठीय अभ्यासक्रमावांगडाच मुक्त शिक्षणीक कार्यावळीक चालना दिल्या. अशे कार्यावळीक दिसान दीस प्रतिसादय बरो मेळूंक लागला.

पदवेच्या रुपांत मेळिल्लें प्रमाणपत्र ही आयच्या शिक्षणाची मुळावी गरज जाल्ल्यान, पारंपारीक तशें मुक्त विद्यापिठाची शिक्षणीक कार्यावळ ही तशी समांतरपणान चलता म्हणूंक जाय. प्रमाणपत्राच्या संदर्भांत परिक्षा ह्या उपक्रमाक म्हत्व दिवप जाल्ल्यान दोनय विद्यापिठांकडसून अभ्यासक्रम, परिक्षा आनी अभ्यासक्रम प्रवेशासंबंदीं विशिश्ठ नेमावळीचें बंधन घालप जाता. त्या अर्थान मुक्त विद्यापीठ तशें सामकेंच मुक्त उरूंक ना.

- कों. वि. सं. मं.

**विद्यासागर ईश्वरचंद्र :** (पळेयात ईश्वरचंद्र विद्यासागर).

**विमान :** आधुनिक काळांतलें मळबांतल्यान अधांतरी चलपी सगळ्यांत वेगवान वाहन. फकत अवकाश यानाच विमानांपरस नेटान धांवतात. जेट विमानां वा एअलायनर जड सामान वा प्रवाशांक घेवन लंडन ते सिडनी अशे अर्दे अदीक पृथ्वीक फकत २४ वरांभितर भोंवडी मारूंक शकतात. विमानांतल्यान प्रवासी आरामांत ९००० ते १3000 मीटर उंचायेवयल्यान सहज प्रवास करपाक शकतात. हालींच्या सगळ्यांत व्हडल्या विमानांत सुमार ५०० प्रवासी आस्पावंक शकतात.

रॉकेट प्लॅन हें सगळ्यांत वेगवान विमान वराक ७,२४० किमी. परसय नेटान धांवता. रॉकेट प्लॅनाचो मुखेलपणान संशोधनांखातीर उपेग जाता. जाल्यार खाजगी ल्हान विमानां एका इंजीनाचीं आसून, तांचो मुखेलपणान वेवसायाखातीर वा ल्हान ल्हान भोंवड्यांखातीर उपेग करतात.

सगळ्यांत व्हडल्या भरिल्ल्या विमानाचें वजन ३२० मॅट्रिक टनांवयर आसता. विमानांत बसयल्लें इंजीन, पंखे, नियंत्रक पृष्ठ आनी धड (Plane) हे विमानाचे मुखेल घटक. विमान हवेंत उडपाक लागलें म्हण्टकच ताचो चालक (पायलट) तें नियंत्रक पृष्ठाच्या आदारान तरंगत दवरता. उणे उंचायेवयल्यान उड्डाण करपी विमानाचो प्रकार म्हणजे हेलिकॉप्टर. हाचें खाशेलेंपण म्हणजे तें हवेंत एके सुवातेर थीर रावूंक शकता. फाटीं, फुडें, दावे वा उजवे कुशीक चलूंक शकता. सरळ सकयल देवूंक शकता तशेंच सरळ वयरय वचूंक शकता.

विमानाचो आराखडो (Design), ताची बांधणी आनी ताचें उड्डाण ह्या सगळया क्रियांक मेळून 'एरोनॉटीक्स' अशें म्हण्टात. हलको पदार्थ (वायू, वाफ) आनी जड पदार्थ हांच्या संतरणाचेर आदारीत विमानशास्त्र आसा. अशा संतरणांत आपल्या जडायेच्या संदर्भांत जड पदार्थ हलक्या पदार्थाक विस्थापीत करता. हे प्रक्रियेंत जेन्ना हलक्या पदार्थाचो भार जड पदार्थाच्या भारापरस चड जाता, तेन्ना जड पदार्थाक हलक्या पदार्थाचे गती पासून एक उड्डाणी गती प्राप्त जाता. हलक्या पदार्थाचे गतीचेर जड पदार्थाची गती आदारून उरता. हेंच शास्त्र हवा आनी विमानाची गतीमान मांडावळ हाका लागू जाता. इ.स. १७०० चे निमाणेकडेन लोक हवेंतल्यान उडत एके सुवातेसावन दुसरेकडेन वचपाखातीर व्हड व्हड बोमाड्यांचो (बलुनांचो) उपेग करताले. बलून हवेपरसय हलके आशिल्ल्यान ते हवेत तरंगपाक शकतात. उपरांत ग्लायडरांचो सोद लागलो.

हजारांनी वर्सांपयलीसावन मनशाक हवेंत सुकण्यांभशेन उडपाची इत्सा आसली हें तांच्या उडटो घोडो वा उडटी चादर अशा काणयांनी दिसून येता. वैदिक काळांतय विमान शब्दाचो उल्लेख खूब कडेन आयला. देव विमानांतल्यान भोंवताले अशें पुराणांनी वाचूंक

मेळटा. आध्य ग्रीक लोकासंबंदीत विमानाच्या संदर्भांत डॅडालस आनी ताच्या पुताची काणी सांगतात ती अशी - एकदां डॅडालस आनी ताचो पूत इकारस आपल्याक मेणान पारवां दसोवन हवेंत सुकण्यांभशेन ऊंच उडत गेले. इकारस उडपाच्या नादांत चड ऊंच गेलो. वतान मेण कडटकच ताचीं पारवां गळ्ळीं आनी तो दर्यांत पडून मेलो.

हवेंत उडपी यान तयार करपाचे सगळयांत पयले यत्न ग्रीसांत जाले अशें म्हण्टात. इ.स. प. ४०० च्या अदमासाक ग्रीक तज्ञ आचीटास हाणें लांकडी पंरवो करून, तो ताचे फाटीर बसोवन हवेंतल्यान भोंवलो अशें सांगतात. पूण तो पंरवो कसो तरंगतालो हें कोणाकच खबर ना. उपरांत इ.स. प. ४०० ते ३०० च्या अदमासाक चिनी लोकांनी पतंगाचो सोद लायलो. ह्या पतंगाच्या आदारानच फुडें ग्लायडराचो सोद लागलो. इ.स. प. २०० त ग्रीक तज्ञ आर्कीमेडीस हाणें उदकांत वस्त उफेता हाचे फाटलो सिध्दांत सोदून काडलो. फुडें, खूब शेंकडयांउपरांत म्हळयार १२१० त इंग्लीश तज्ञ रॉजर बेकन हाणें आर्कीमेडीसाच्याच सिध्दांताचो आदार घेवन थारावीक आकाराच्यो वस्तू उरवलून धरपी कांय घटक हवेंत आसतात अशें मत मांडलें. इ.स. १७८३ त फ्रेंच विज्ञानीक जीन पिलॉट्रे दे रोझीएर आनी मारकूस डी आर्लांडेस हांणी कृत्रीम यानाच्या आदारान हवेंत उड्डाण केलें. उपरांत फ्रांसाचेच दोन भाव जॅकी ई. आनी जोसफ एम्. मॉंटगोल्फीएर हांणी व्हड बोमाड्यांत (बलून) उश्ण वारें भरून हवेंत उड्डाण केलें. उपरांत त्या भावांनी तातूंत कांय सुदारणा करून अशीं खूब उड्डाणां केलीं. हेच प्रेरणेंतल्यान उपरांत बोमाड्यांनी हायड्रोजन वायुचो उपेग जावपाक लागलो. पूण बलूनाचेर नियंत्रण दवरपांत खूब कठीण जावक लागलें. देखून हेर संशोधकांनी आपलें लक्ष ग्लायडरांचेर केंद्रीत केलें.

१८०४ त सर जॉर्ज क्यॅले ह्या ब्रिटीश शास्त्रज्ञान ग्लायडर यान तयार करून तें हवेंत सोडलें. क्यॅले हाणें एरोडायनॅमीक म्हळयार यानाक उडपाखातीर ताचे भोंवतणी फाव त्याप्रमाणांत हवेच्या दाबाची गरज लागता हो सिध्दांत मांडलो. १८९१ ते १८९६ ह्या काळा मजगतीं जर्मनच्या ओट्टो लिलीएंथाल हाणें मनीस चलोवपाक शकता अशें ग्लायडर तयार केलें. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक सावन विद्युत् वा शक्त इंजीन तयार करपाखातीर खूब यत्न जाले. १८४३ त विल्यम हेन्सन ह्या ब्रिटीश संशोधकान इंजीन, पंरवे आनी फॅन आशिल्ल्या यानाचो आराखडो तयार करून उपरांत तें बांदून काडलें. पूण तें हवेंत सोडपाक ताका अपेश आयलें. उपरांत १८४८ त ताचो इश्ट जॉन स्ट्रींगफॅल्लो हाणें त्याच आराखड्यांत कांय सुदारणा करून नवें यान तयार करून तें हवेंत सोडलें. पूण रोकडेंच तें बंद पडून सकयल पडलें. उपरांत क्लॅमेन्ट ॲडर ह्या फ्रेंच इंजिनियरान वाफेच्या इंजिनाचेर उडपी यान तयार केलें. पूण ताचेर नियंत्रण दवरपाक शक्य नाशिल्ल्यान तेंय यान अपेशी थरलें.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन ऑस्ट्रेलिया आनी न्युझीलंडांतय विमान तयार करपाखातीर नेटान यत्न चलताले. ऑस्ट्रेलियेचो लॉरेन्स हार्ग्रेव हाणें पांच बोक्स् पतंगांच्या आदारान यशस्वी उड्डाण केल्लें. उपरांत ३१ मार्च १९०२ ह्या दिसा न्युझीलंडच्या रिचर्ड पर्से हाणें सगळयांत पयलीं इंजिनाचेर उडपी यान तयार केलें. त्या यानांत आनीक सुदारणा करपाखातीर ताणें ही म्हायती हेरांपसून गुपीत दवरली. पूण डिसेंबर १९०३ त रायट भावांनी शक्तीचेर उडपी यशस्वी विमान तयार केलें हें जगजाहीर जातकच पर्सेन आपूण सगळयांत पयलीं यशस्वी विमान केल्ल्याचो दावो केलो. पूण पुराव्याच्या उणावाक लागून लंडनाच्या ॲरोनॉटीकल सोसायटीन ताचो हो दावो भायर मारलो.

ऑर्वील रायट आनी विलबर रायट ह्या अमेरिकी भावांचो सायकली तयार करपाचो ल्हानसो कारखानो आसलो. उपरांत तांणी विमान तयार करपाचें थारयलें. तेखातीर तांणी उड्डाणां संबंदीत मेळत तीं पुस्तकां वाचून काडलीं. तांणी वेगवेगळया प्रकाराचे ग्लायडर तयार करून, तातुंतल्यान ते उड्डाणां करपाक लागले. उपरांत साबार प्रयोग करून ह्या उडपी यानांचेर नियंत्रण कशें दवरप हें गिन्यान प्राप्त केलें.

रायट भावांनी १९०३ त 'फ्लायर' नांवाचें आपलें पयलें विमान तयार केलें. तें 'बायप्लेन' म्हळयार दोट्टी पंरव्यांचें, ९ किलोवॅट शक्तीचें पेट्रोल इंजिन बसयल्लें विमान आसलें. वयल्या आनी सकयल्ल्या दर एक पंरव्याची लांबाय १२.२९ मीटर आसली. लांकडी फास्केंत दाट लुगट बसोवन हे पंरवे तयार केल्ले. पायलटाक सकयल्या पंरव्याचेर बसपाक सुवात केल्ली. इंजीन पायलटाचे उजवे वटेन बसयल्लें. जाल्यार लांकडी परीचालक (Wooden Propeller) पंरव्याचे फाटलेवटेन बसयल्लें. विमानाचीं रोदांय लांकडी आसलीं. फ्लायर विमानाचें म्हत्वाचें खाशेलेंपण म्हळयार तें उडटा आसतना ताच्या पंरव्यांचीं पोतां जाय तशीं घुंवडावन विमानाचो तोल सांबाळपाक शक्य जातालें. पंरवे घुंवडावपाखातीर तांणी पंरव्यांच्या पोतांक दोरी बांदून ती लोरवणी रिवळयेक बसयल्ली. ही रिवळी पायलटाच्या कमराक बसोंवक मेळटाली. पायलट जशें आपलें कमर हालयता तशे पंरवे घुंवताले आनी विमानाचो तोल सांबाळून घेताले. हे प्रकियेंतल्यान विमानाचेर फावशें नियंत्रण दवरूंक मेळटालें. उपरांतच्या काळांत विमानाच्या वेगवेगळया आंगांसंबंदीं बरेंच संशोधन जावन, विमान ह्या वाहन - प्रकारांत खुबच सुदारणा जाली. वेगवेगळया देशांतल्या विज्ञानिकांनी आनी संशोधकांनी विमानाचें इंजीन आनी हेर मांडावळींच्या नाविन्यांत मोलाची भर घाली. आधुनिक सुसज्ज विमान हें ह्या संशोधनाचे परंपरेचें फळ आसा. आधुनिक काळांत स्वयंचलीत आनी स्वयंनियंत्रीत वेवस्था आशिल्लीं बटन - दाम विमानां तयार केल्यांत. तेभायर विमान - शास्त्राचेर आदारीत तयार केल्लीं अवकाशयानां हीं चालकाबगर

विमानतळ वा प्रयोग शाळेंतल्या नियंत्रण वेवस्थे वरवीं चलतात.

**लडायेचीं विमानां :** वायुसेनेकडेन आशिल्ल्या आक्रमक विमानाचो प्रकार. वायूसेनेंत आशिल्ल्या लडायेच्या विमानांचें काम मुखेलपणान तीन तरांचें आसता - पयलें म्हळ्यार, आपल्या प्रदेशांत घुशिल्ल्या दुस्मानांच्या आक्रमकी विमानांचेर हल्लो करून तांचो हवाई लडायेंत (डॉगफायट) पाडाव करून नाश करप, वा तांकां घुरी सोडून परत वचपाक लावप. हे तरेचीं विमानां भोव वेगाचीं आनी चपळ आसतात. तातुंतलीं शस्त्रास्त्रांय दुस्मानाच्या विमानांक चुकनासतना टिपून वयलेवयर ना नपश्चात करपाचे मोरवीन तयार केल्लीं आसतात. अशा विमानाक 'हवाई संरक्षक विमानां' अशी संज्ञा दितात.

लडायेच्या विमानाचें दुसरें काम म्हळयार झुजामळालागसारच्या दुस्मानाच्या प्रदेशांत वचून तांच्या विमानतळार वा भुंयेवयल्या विमानांचेर हल्लो करून तांकां निरुपेगी करप, तशेंच दुस्मानाच्या दारूगुळयाच्या आनी तेलाच्या सांठ्यांचेर घुरी घालून तांचो नाश करप, झुजामळाकडेन येवपी लोहमार्ग, पूल सारकिल्ल्या दळणवळण सोंपें करपी गजालींचेर घुरी घालून आघाडीच्या सैन्याक अन्न आनी शस्त्रांची पुरवण करपाचें काम कठीण करून उडोवप आनी आपल्या प्रदेशार घुरी घालपाच्या उद्देशान एकठांय आयिल्ल्या दुस्मानाच्या सैन्यदलाचेर आनी रणगाडे, नाळींच्या बी गटांचेर घुरयो घालून तांची शक्त उणी करप. हे तरेच्या विमानांक भुंयेर घुरयो घालपी विमानां (ग्राउण्ड ॲटॅक ॲरक्राफ्ट) म्हण्टात. हीं विमानां संरक्षक विमानांइतलीं चपळ नासतात, पूण तांचो पल्लो चड पयसुल्लो आसता. तांची शस्त्रसामुग्रीय तांचे मोरवीचो नाश करूंक येता अशें तरेची, म्हळयार ल्हान - ल्हान बॉम, रॉकेटां आनी व्हडा कॅलिबराचीं मशीनगनां अशीच आसता. तातूंत सामकी आर्विल्ली रडार सामुग्री बसयल्ली आशिल्ल्यान झुजाचे धुमश चक्रांतल्यानच दुस्मानाच्या विवक्षित वाठारांत पावप वा आपल्याच विमानतळार कश्टांविणे परतून येवप तांकां सहज शक्य जाता. हेच तरेच्या विमानांत व्हड प्रभावी कॅमेरा बसोवन तांकां गुपचूपपणान दुस्मानाच्या वाठारांत सुळकांडी मारून झुजामळावयल्या दुस्मानाच्या पथकांची हवाई सावळेचित्रां काडून हाडपाक धाडटात. ह्या सावळे चित्रांवयल्यान दुस्मानाच्या वट्ट कुवतीची आनी इराद्यांची पुराय कल्पना येवपाक आदार जाता. अशे तरेन आपल्या सैन्याची रचणूक करून दुस्मानाचो घुरयो असफल करून उडोवंक येतात.

लडायेच्या विमानांचें तिसरें काम म्हळयार दुस्मानाच्या प्रदेशांत बरेच पयस वचून तांच्या उत्पादक कारखान्यांचो, म्हत्वाच्या शारांचो वा बंदरांचो पुराय नाश करून दुस्मानाच्या लडपाविशींचें पुराय मनोबळच उणें करून तांकां शरणांगती पत्करपाक भाग पाडप. हेरखातीर वापरांत आशिल्लीं विमानां व्हड आकाराचीं आसतात आनी हजारांनी किलोमीटर पयस वचून व्हड वजनांचे व्हडले व्हडले बॉम तीं लक्ष्यांचेर चुकनासतना मोरखूंक शकतात. विमानाचे सांवाराचे शक्तीक लागून तांचें उत्पादन करपी राश्ट्रां तीं हेर देशांक विकिनात. म्हणूनच तीं फकत अमेरिका, रशिया, ग्रेट ब्रिटन, चीन ह्या सारकिल्ल्या व्हडल्या राश्ट्रांचे वायुसेनेंतच दिश्टी पडटात. दुस्मानाच्या वाठारांत वतना ह्या विमानावांगडा राखणे विमानांय धाडटात.

विमान बांदपाक येवपी व्हड खर्चाकडेन लक्ष दवरून हालीं भोवकार्यीक (मल्टिरोल) विमानां तयार करपाकडेन अदीक लक्ष दितात. अशीं विमानां हवाई संरक्षक म्हणून वा भुंयेर हल्लो चडोवपाक वापरतात.

पयल्या म्हाझुजांत (१९१४ - १८) विमानांचें कार्य शिमीत म्हळयार फकत टेळणी करपा इतलेंच आशिल्लें. फुडाराक ल्हवू - ल्हवू हवाई शस्त्रसंभार आनी संदेश पावोवपाचीं साधनां उपलब्ध जालीं आनी विमानां आक्रमक पावित्रो घेवंक लागलीं. भारतीय वायूसेनेच्या पयल्या वायूपथकाची उबारणी १९३३ वर्सा जाली. सुरवेक फकत चार 'वापिटी' जातीचीं विमानां, स पायलट आनी २५ हवाई शिपाय अशा मर्यादीत प्रमाणांत ह्या दलाचो शुभारंभ जालो.

दुसऱ्या म्हाझुजांत (१९३९ - ३५) 'वापिटी' विमानाचो उपेग करून तांचो एक वेगळो स्कॉड्रन उबारलो. म्हाझुजाचे निमाणेकडेन ही संख्या धा स्कॉड्रन इतली जाली आनी तातूंत नव्या आर्विल्ल्या 'हॉकर हरिकेन' आनी 'स्पिटफायर' अशा लडायेच्या विमानांची भर पडली. १९४५ उपरांत 'जॅट' आनी अणवस्त्रधारी विमानांच्या युगांत वायूसेनेंत लडायेच्या विमानांची अदिकच भर पडत गेली.

भारताचे फाळणे उपरांत (१९४६) पाकिस्तानी घुसखोऱ्यांनी कश्मीराचेर घुरयो घालपाक सुरवात केली. १९४७ - ७१ ह्या काळांत भारतान वेगवेगळया तरांच्या लडायेच्या विमानांची गरज भायल्या देशांतल्यान मेळटा तीं विमानां विकतीं घेवन भागयली. तातूंत सुरवेक 'स्पिटकायर', 'टेंपेस्ट', 'व्हॅम्पायर', 'हंटट' आनी 'कॅनबॅरा' ह्या ब्रिटीश वनावटीच्या आनी 'ओरामान' (भारतीय नांव 'तुफानी') आनी 'मिस्टेअर' ह्या फ्रांसेझ शक्तीवान लडायेच्या विमानांचो मुखेल करून आस्पाव आशिल्लो. हाचेभायर 'उकोटा' आनी 'पॅकेट परिवहन' विमानांचीं पथकांय स्थापलीं. लडायेच्या विमानाचें भारतांतच उत्पादन जावचें म्हणून भारतान बेंगळूराक 'हिंदुस्थान ॲरक्राफ्ट लिमिटेड' (एच्.ए.एल्.) ह्या कारखान्यांत संशोधन आनी विकासकार्य नेटान सुरू केलें.

भारतान इंग्लंडांतल्या 'फॉलंड' हे ब्रिटीश कंपनीवांगडा सप्टेंबर, १९५६ त एक कबलात करून तेप्रमाण लडायेच्या विमानांचे तयार सांगाडे भारतांत हाडून तांची बेंगळूरांतच बादावळ सुरू केली. 'नॅट' हें पयलें भारतीय बनावटीचें लडायेचें विमान बांदलें. १९७१ च्या भारत - पाक झुजांत भारतीय वैमानिकांनी व्हड कुशळतायेन 'नॅट' विमानांचो उपेग केलो. सुदारिल्ल्या 'नॅट' विमानाचें आतां 'अजीत' अशें नांव दवरिल्लें आसून ताची पुराय बांदणी भारतीय आसा.

हाचेफुडलें पुरायपणान भारतीय बांदावळीचें दुसरें लडायेचें विमान 'मरूत - एच्. एफ्. - २४' हें आसा. १९६३ वर्सा भारत - रशिया करार जावन रशियेन 'मिग - २१' जातीचीं सामकीं आर्विल्लीं लडायेचीं विमानां भारताक दिवपाचें तशेंच ह्या विमानांचें भारतांतच हाचेंफुडें उत्पादन जावंचें म्हणून भारतीय विज्ञानिकांक फावो तें प्रशिक्षण दिवपाचेंय मान्य केलें. हिंदुस्तान ॲरक्राफ्ट कारखानो (बेंगळूर) हाचेकडल्यान ह्या विमानाची निर्मणी भारतात तीनकडेन जाता. विमानाचो सांगाडो ओझर (महाराष्ट्र), शक्तिसंयंत्र (पावर प्लाण्ट) कोरापूट (ओरिसा) आनी उडपाची यंत्रसामुग्री (एविओनिक्स) बालानगर (हैदराबाद - आंध्र प्रदेश) ह्या सुवातींचेर तयार करतात. 'मिग - २१' त १९६३ उपरांत बऱ्योच सुदारणा जाल्यो. रशियेच्या परवान्याखाला आतां 'मिग - २३' ह्या अदीक आर्विल्ल्या विमानाचें उत्पादन भारतांत सुरू जालां. हाचेभायर रशियेन भारताक 'मिग - २७' आनी 'मिग - २९' हीं विमानां दिवन भारतीय वायुसेनेचें दक्षिण आशियांतलो वर्चस्व अबादीत राखपाक आदार केला.

नॅट विमानावांगडाच सुदारिल्ल्या मिगाचो वापर १९६५ आनी १९७१ च्या भारत - पाक झुजांत आनी बांगलादेश आघाडेचेर केला. भारतात १९६८ त रशियेवांगडा 'सुखोय - ७ एस. यू.' ह्या आर्विल्ल्या भुंयेर मारो करपी लडायेच्या विमानाखातीर कबलात करून ताचींच स स्कॉड्रनां विकतीं घेतलीं. पूण हीं विमानां आतां निवृत्त जाल्लीं आसून, तांचेपरस अदीक तांकीचीं अशीं 'मिग - २७', 'जॅग्वार' आनी 'मिराज्य - २०००' ह्या विमानांनी तांची सुवात घेतल्या.

सद्या भारतीय वायुसेनेंत ६० स्कॉड्रनांवयर विमानां आसून हे यंत्रणेंत अधिकारी आनी हवाई शिपाय मेळून सुमार १,१०,००० अशें तांचें संख्या बळ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : वातयान

**विमो :** (पळेयात भारतीय आयुर्विमा निगम).

**विरासन :** (पळेयात आसन).

**विर्जिनकार, मोहनदास नारायण :** (जल्म : २ जानेवारी १९३३ मडगांव - साश्ट).

सुटकेजुजारी. ताणें बी. एस्सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत भूंयगत वावरांनी वांटो घेवप, राश्ट्रीय पत्रकां छापप आनी तीं क्रांतीकाऱ्यांमदीं वांटप, क्रांतीकाऱ्यांक गोंयांत तशेंच गोंयांभायर वचपाक आदार दिवप, असलीं कामां तो करतालो. ७ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी पणजे पोलिस ठाण्याचेर दवरलो. उपरांत प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून दोन वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेचपरी १५ वर्सांखातीर ताच्या राजकीय हक्कांचेर बंदी हाडली. ३१ डिसेंबर १९५७ ह्या दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. गोंय सुटके उपरांत इंडियन नॅशनल काँग्रेसीच्या मडगांव शार मंडळाचो अध्यक्ष म्हूण ताका वेंचून काडिल्लो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**विवेकसिंधू :** अद्वैत वेदान्ताचें प्रतिपादन करपी मराठी भाशेंतलो आद्य ग्रंथ. मुकुंदराज हो ह्या ग्रंथाचो कर्तो. ह्या ग्रंथाचे पुर्वार्ध आनी उत्तरार्ध अशे दोन भाग आसात. पयल्या भागांत विश्वाची उभारणी आनी दुसऱ्या भागांत तांचो संहार कसो जाता तें सांगिल्लें आसा. पयल्या भागांत स्वरूपसमावेशन, स्वानुभवदृढीकरण, तत्त्वसृश्टीक्रम, ईश्वरतनुत्रय, त्वंपदकारणलिंगदेह, स्थूलदेह आनी सर्व ब्रह्म ह्या विशयाचें विवेचन केल्लें आसा. दुसऱ्या भागांत संहाराखातीर पिंडब्रह्मांडाचे स्थूलदेह, लिंगदेह, कारणदेह आनी महाकारणदेह हांचें विवरण आनी उपरांत निरसन आसा. फुडें पंचप्रलयाचें स्वरूप आनी तत्पदार्थांचें शोधन सांगिल्लें आसा. जीवात्मो आनी परमात्मो हांचें तादात्म्य सिध्द करून मुक्तिस्वरूप स्पश्ट केल्लें आसा. ताच्याउपरांत अध्यात्माविशीं उत्पन्न जाल्ल्या वेगवेगळया प्रस्नांचें खंडन करून अद्वैत प्रतिपादन केल्लें आसा. ह्या विशयावयल्यानच सत् - चित् - आनंद ह्या पदत्रयाचेर प्रवचन आसा. सगळयांत निमाणें गुरूमाहात्म्य दिल्लें आसा.

ह्या विशयांभायर कांय हेर विशयांचेंय विवेचन ह्या ग्रंथांत आयिल्लें आसा. तातूंत मराठीचें व्हडपण, ग्रंथाचो उद्देश, ताचें फळ, गुरू - शिश्यलक्षणां आदी विशय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**विवेकानंद :** (जल्म : १२ जानेवारी १८६३, कलकत्ता; मरण : ४ जुलय १९०२, बेलूर).

आर्विल्ल्या काळांतलो एक म्हान वेदान्तमार्गी राश्ट्रसंत आनी थोर विचारवंत. बंगालांतल्या दत्त आडनांवाच्या एका गिरेस्त आनी प्रतिश्ठीत अशा कायस्थ घाराण्यांत ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचें नाव विश्वनाथ दत्त आनी आवयचें नांव भुवनेश्वरीदेवी. विवेकानंदाचो बापूय, आजो आनी पणजो हे सगळे कलकत्त्याच्या सर्वोच्च न्यायांलयात नामनेचे वकील म्हणून गाजले. पणज्यासावन, तांच्या घरांत अस्तंती विद्येचोय व्यासंग चलतालो. विवेकानंदाचो आजो दुर्गाचरण हो सुरवेकसावन अध्यात्ममार्गी आनी विरक्त वृत्तीचो आशिल्ल्यान एक भुरगो जल्माक येनाफुडें संन्यास घेतलो आनी काशीक गेलो. ताचो आध्यात्मिक वारसो उपरांत ताचो नातू विवेकानंदान

सांबाळ्ळो.

विवेकानंदाचें मूळ नांव नरेंद्रनाथ. नरेंद्रनाथाचो बापूय विश्वनाथ दत्त हो कलकत्त्यांतलो एक नामनेचो वकील आशिल्लो. तो स्वभावान सदाचारी आशिल्लो. नरेंद्रनाथाची आवय भुवनेश्वरीदेवी ही समाधानी आनी धार्मिक आशिल्ली. काशीच्या विश्वनाथाचेर तिचो खूब भावार्थ. तिणें पयल्यो दोन चलयो जातकच चलो जावचो म्हणून खूब व्रतां, आंगवणी केल्यो आनी विश्वनाथाचे कृपेन तिका चलो जालो. ताचें मुखामळ जुस्त ताचो आजो दुर्गाचरणाभशेन दिसतालें. म्हणून ताचें नांव दुर्गाचरण दवरपाचें थारायलें. पूण ताच्या जल्मापयलीं भुवनेश्वरीक शिवदर्शन जाल्ल्यान ताका वीरेश्वर अशें नांव दवरलें. अपुरबायेन ताका बिले ह्या नांवान पाचारताले. उश्टावणावेळार ह्या बिलेचें आनीक एक फावट नामकरण जावन ताका नरेंद्रनाथ हें नांव मेळ्ळें.



भुरगेपणांत नरेंद्रनाथाचो स्वभाव खूब हट्टी आनी रागीट आशिल्लो. ह्याच काळांत आवयन ताका रामायण, महाभारत, भागवत ह्या ग्रंथांतल्यो काणयो सांगल्यो. तेन्नासावन तो देवांच्यो ल्हान ल्हान मूर्ती हाडून तांची पूजा करूंक लागलो. ताका देवाक प्रत्यक्ष पळोवपाची उमळशीक लागली. भुरगेपणांतूच ताच्यांत योग्याचीं लक्षणां दिसूंक लागलीं.

पिरायेच्या पाचव्या वर्सा नरेंद्राक शाळेंत घातलो. ताचे एकपाठी वृत्तीक लागून फक्त आठ दिसांभितर तो शालेय शिक्षणावांगडा खूब गाळी आनी वायट शब्द शिकलो. तेखातीर विश्वनाथबाबून ताची शाळा बंद केली आनी घराकडे शिकवणी सुरू केली. बंगाली आनी इंग्लीश भास ताका आवयन शिकयली. मुळावें शिक्षण घराच करतकच इ.स. १८७० वर्सा ताका ईश्वरचंद्र विद्यासागर हाचे नवे शाळेंत धाडलो. पिरायेच्या चवदाव्या वर्सा ताका पोटांत दुखपाचो त्रास सुरू जालो. तेन्नाच विश्वनाथबाबू आपल्या धंद्याच्या निमतान रायपूर हांगा स्थायिक जाल्लो. तेखातीर सगळें कुटुंब ताणें रायपूराक व्हेलें. दुयेंसाक लागून नरेंद्राची शाळा बंद पडिल्ली. पूण विश्वनाथबाबू ताका घरच्या घराच तरातरांचे विशय शिकयतालो. सुमार दोन वर्सां रायपूराक रावन प्रकृती सुदारतकच नरेंद्र परतून कलकत्त्याक आयलो आनी ताणें दोन वर्सांचो शालेय अभ्यास कांय म्हयन्यांनी पुराय करून मॅट्रिकच्या वर्गांत प्रवेश घेतलो. मॅट्रिकचे परीक्षेंत ताणें पयल्या क्रमाकांचे गुण मेळोवन आपले शाळेचें नांव वयर काडलें. इ.स. १८८० वर्सा ताणें महाविद्यालयीन शिक्षणाक सुरवात केली. पयलीं तो कलकत्त्याच्या प्रेसिडेन्सी कॉलेजांत गेलो. पूण मलेरियाच्या जोराक लागून ताका कॉलेज सोडून घराच बसचें पडलें. उपरांत फुडल्या वर्सा ताणें जनरल असेंब्ली इन्स्टिटयूशनांत नांव घातलें. हे संस्थेंतल्यान ताणें एफ. ए. च्या अभ्यासक्रमाक सुरवात केली. मिल, ह्यूम, हर्बर्ट, स्पेन्सर ह्या अस्तंती तत्त्ववेत्त्यांच्या ग्रंथांचो नरेंद्रान पयलींच अभ्यास केल्लो. तेखातीर ताच्या विचारांक एके तरेची खोलाय मेळिल्ली. ह्याच काळांत नरेंद्रनाथाचें व्हड वैचारिक परिवर्तन जातालें. 'ह्या पंचेन्द्रियग्राह्य, जड जगताफाटल्यान ताचो चालक असो कोणूय सर्वशक्तिमान पुरुस आसा काय ना ? हे मानवजातीचो हेत किदें ?' असल्या गहनगूढ प्रस्नांनी ताच्या मनांत गोंदळ घातलो. तेखातीर खूब फावटीं तो कॉलेजाचो अभ्यास सोडून यती - संन्याशी, तडी - तापसी आनी संत - महंत हांच्या दर्शनाक वचून तांकां 'कोणेय देवाक पळयल्ल्याचें विचारूंक लागलो'. होच प्रस्न ताणें एकदां महर्षी देवेंद्रनाथ ठाकुराक विचारलो. तेन्ना महर्षीन ताका ध्यानाभ्यास करपाचो उपदेश केलो. त्या दिसासावन ताणें ब्राह्म समाजांत प्रवेश घेतलो आनी ब्रम्हचर्य आपणायलें. मानसिक शांतीकायेखातीर ताणें ईशचिंतन, वेव्हारीक यशःसिध्दीखातीर नेमिल्ल्या पुस्तकांचें वाचन - मनन आनी उरिल्ल्या वेळांत गायन, वादन, लिखाण आनी संभाशण अशे तरेन आपलें जिवीत व्यतीत करपाक सुरवात केली. पूण ताका शांती आनी समाधान मेळ्ळेंना. एक दीस ताची, त्या काळांतलो नामनेचो बंगाली साधू श्रीरामकृष्ण परमहंस हाचेकडे भेट जाली आनी ते घडणुकेन नरेंद्रनाथाचे जिणेची दिकाच बदलली.

१८८४ वर्सा नरेंद्रनाथ बी. ए.चे परीक्षेक बसलो पूण निकाल लागचेपयलीं ताच्या बापायक मरण आयलें. तांचेर व्हड आपत्ती कोसळ्ळी. घरांतल्या स जाणांचो भार नरेंद्रनाथाचेर पडलो. ताणें नोकरेखातीर खूब अर्ज केले. इ.स. १८८५ वर्सा रामकृष्ण परमहंस हाकाय कॅन्सराचें दुयेंस जाल्ल्यान ताका काशीपूराक व्हेलो. तेन्ना नरेंद्रनाथूय ताच्यावांगडा काशीपूराक गेलो. १५ ऑगस्ट १८८६ ह्या दिसा रामकृष्ण परमहंसाचें निर्याण जालें. रामकृष्णाच्या आदर्शाचो प्रचार - प्रसार जावचो ह्या हेतान नरेंद्रान रामकृष्णाच्या हेर शिष्यांक घेवन बडानगर हांगा रामकृष्णाच्या मठ स्थापन केलो. मठस्थापने उपरांत सगळ्या शिष्यांनी संन्यासदीक्षा घेवन नवीं नांवां धारण केलीं. तेन्ना नरेंद्रान स्वामी विविदिशानंद आनी सच्चिदानंद हीं दोन नांवां घेतलीं. उपरांत ताका सगळो भारत भोवन पळोवपाची इत्सा जाली. तेप्रमाण तो काशी, अयोध्या, गया, आग्रा, वृंदावन अशी पायी भोंवडी करत भारतभर भोवलो आनी १८८८ च्या नोव्हेंबर म्हयन्यांत परतून वराहनगरच्या मठांत आयलो. १८९० च्या जानेवारी म्हयन्यांत तो गाझीपूराक गेलो. थंयच्या मुक्कामांत तो पवहारीबाबा नांवाच्या एका सत्पुरसाच्या सांगातान राविल्ल्यान ताचें मनोबल वाडलें आनी परतून ताका भारतभोंवडेची इत्सा जाली. इ.स. १८९० च्या जुलय म्हयन्यांत

तो भारत भोंवडेखातीर भायर सरलो तो पयलीं भागलपूर आनी देवघर हांगा रावून काशीक गेलो. थंयसावन ताणें हिमालयाची पदयात्रा केली. उपरांत ताणें पंजाब, राजस्थान, गुजरात ह्या प्रदेशांनी संचार करून लोकस्थितीचें अवलोकन केलें. उपरांत द्वारका, मांडवी, पालिताणा, बडोदा, खांडवा अशे ल्हान ल्हान मुक्काम करीत तो मुंबय आयलो. मुंबयसावन पुण्याक वचपी गाडयेंत ताची लोकमान्य टिळकाकडे भेट जाली. उपरांत महाबळेश्वराक वचून येतकच तो बेळगांवां गेलो. बेळगांवसावन बंगलोरमार्गान तो म्हैसूराक गेलो. कर्नाटक प्रदेश सोडटकच तो चेन्नई राज्यांत गेलो आनी डिसेंबर १८९२ त कन्याकुमारीच्या दर्यावेळेर पावलो. कन्याकुमारीच्या दर्यांत एक व्हड फातर आसा. पेंवत वचून तो त्या फातराचेर बसलो. थंय ध्यान लावन बशिल्लो आसतना ताका साक्षात्कार जालो आनी राश्ट्रोत्थानाविशीं प्रेरणा मेळ्ळी. रामकृष्णान ताका दर्शन दिलें आनी अमेरिकेंत जावपी सर्वधर्म परिशदेक वचपाची आज्ञा केली. उपरांत ती सुवात विवेकानंद खडक ह्या नांवान नामनेक पावली.

१८९३ वर्सा स्वामीच्या आशीर्वादान खेत्रीच्या महाराजाक पुत्रप्राप्ती जाली ताका लागून महाराजान, स्वामीक विवेकानंद ह्या नांवान जगाचो उध्दार करचो अशी विनवणी केली. ३१ मे १८९३ ह्या दिसा विवेकानंदान रामकृष्णाच्या फोटोक पाया पडून, कालिमातेचें स्मरण केलें. भगवो भेस करून त्याच कोराचो फेटो बांदलो आनी भगवद्‌गीता हातांत घेवन अमेरिकेक वचपाक गेलो. चीन, जपान, हुपून विवेकानंद शिकागो बंदरांत आयलो.

११ सप्टेंबर १८९३ दिसा सर्वधर्म परिशदेक सुरवात जाली. भीत भीत विवेकानंदान आपल्या भाशणाक सुरवात केली. ताच्या पयल्याच वाक्यान 'अमेरिकेंतल्या म्हज्या भावांनो आनी भयणींनो' अशें म्हणना फुडें टाळयांचो कडकडाट जालो. ११ मिनटांच्या आपल्या आत्मविश्वासपूर्ण आनी मवाळ उतरांनी ताणें हिंदू धर्माचें रहस्य सामक्या मेजक्या उतरांनी परिशदेच्या लोकांक समजावन सांगलें. २७ सप्टेंबर दिसा ही परिशद सोंपली. पूण ताणें अमेरिकेंतल्या व्हड व्हड शारांनी व्याख्यानां दिलीं. हिंदुधर्म, तत्त्वज्ञान हांच्या प्रसाराखातीर ताणें न्यूयॉर्कांत अभ्यासवर्ग सुरू केले. ताका व्हड शिष्यवर्ग मेळ्ळो. हिंदुधर्म, तत्त्वज्ञान हांचो ताणें जगभर प्रसार केलो. तेखातीर ताणें खूबकडे मठ स्थापन केले. लंडनच्या मुक्कामांत ताचो मिस मार्गारेट ई. नोबल हिचेकडे वळख जाली. ही नोबल म्हळयार स्वामी विवेकानंदाची मानसकन्या भगिनी निवेदिता. हिचेभशेन आनीकूय बऱ्याचशा अस्तंती दादले - बायलांनी स्वामीच्या वेदान्त धर्माच्या प्रचाराखातीर स्वताक ओपून घेतलें. अमेरिकेंतल्या आनी हेर अस्तंत्या शारांनी वेदान्तधर्मसाधनेचीं केंद्रां सुरू केलीं. स्वामीचें वक्तृत्व, व्यक्तिमत्व, विशुध्द जीवनचरित्र हें सगळें अस्तंती जगाक तोखणायेचें आनी आदराचें थारलें. कांय किरिस्तांव मिशनऱ्यांनी तांकां विरोध करपाचो, तांचे भूमिकेविशीं गैरसमज पातळावपाचो आनी प्रचलित हिंदू धर्मांतली वैगुण्यां सोदून तांची निंदा करपाचे यत्न करून पळयलो. पूण विवेकानंदाच्या खर प्रचाराक लागून तो निश्फळ थारलो. अशे तरेन आपलें अंगीकृत कार्य विलक्षण प्रभाविपणान यशस्वी करून स्वामी १५ जानेवारी १८९७ ह्या दिसा कोलंबोंत आयलो. थंय सावन फुडें ताणें परतून भारतयत्रा केली. तेउपरांत ताणें आपल्या सगळया गुरूबंधूक एकठांय हाडून १ मे १८९७ दिसा रामकृष्ण मिशन हे लोकसेवकांचे संघटनेची स्थापणूक केली. ह्या दिसा स्वामी बेलूर मठांत परतलो. उपरांतची चार वर्सां ताणें आपल्या संन्याशी गणांसयत दुकळ, भूकंप, हुंवार, रोगाची साथ तशेंच हेर जायत्या संकश्टांनी सापडिल्ल्या दुर्दैवी भारतीय लोकांचे सेवेखातीर ओंपलें. हें सगळे करतना ताणें वेव्हार, प्रवृत्तीधर्म, अध्यात्म, व्यक्तीगत योगसाधना, मनशाच्यो दीसपट्ट्यो गरजो ह्या सगळयांचो बारीकसाणेन अभ्यास करून आपलें तत्त्वज्ञान मांडलें. ४ जुलय १९०२ ह्या दिसा रातचो ताणें बेलूर मठांत देहत्याग केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**विश्व :** सर्वव्यापी ब्रह्मांड वा आरव्खो संवसार असो ह्या शब्दाचो सादो आनी सरळ अर्थ आसा. धर्तरी धरून अवकाशांत आशिल्ले सगळे घटक मेळून विश्व तयार जाता. कोटयांनी नखेत्रां मेळून आकाशगंगा तयार जाता. विश्वांत अशो लाखांनी आकाशगंगा पातळ्ळयात अशें अवकाशतज्ञांचें मत आसा. १९८९ त कांय ज्योतिर्विद्यांनी नखेत्रांचो आकाशगंगेपरसूय व्हड चोंबो सोदून काडलो. त्या चोंब्याचो आंवाठ खूब व्हड आशिल्ल्यान ताणीं ताका 'द ग्रेट वॉल' (The Great wall) अशें नांव दिलें.

विश्व खंय मेरेन पातळ्ळां हाची म्हायती आयज लेगीत वैज्ञानिकांक मेळूंक ना. चडशा ज्योतिर्विद्यांच्या मतान 'क्योसार' नांवाच्यो असामान्य अशो उजळ वस्तू सगळयांत पयस आसात. क्योसार ह्यो धर्तरेसावन सुमार १६ बिलीयन लायट - इयरस् पयस आसात असो तज्ञांचो अदमास आसा. ह्या मताप्रमाण सगळयांत पयस आशिल्ल्या क्योसाराच्या आयज दिश्टी पडपी उजवाडाक धर्तरेचेर पावपाक १६ बिलीयन वर्सां लागलीं. तज्ञांच्या मतान दर एके आकाशगंगेंतले वेगवेगळे भाग एकमेकांसावन पयस वचत आसात. हाका लागून दिसान दिस विश्वाचो आंवाठय वाडत आसा, हें स्पश्ट करपी कांय सिध्दांत वेगवेगळया तज्ञांनी मांडल्यात.

विश्वासंबंदीच्यो संकल्पना काळाप्रमाण बदलत रावल्यात. साप्प पुर्विल्ल्या काळांत भोंवतणचें वातावरण, पयसुल्ल्या सुवातींचें आयकल्लें वर्णन, तशेंच सूर्य, चंद्रीम, ग्रह , आकाशगंगा आनी दिश्टी पडपी हेर तारे हांकांच लोक विश्व (Cosmology) म्हण्टाले. तारे आनी ग्रहांक ताणीं देवांची वा जिवात्म्यांची उपमा दिल्ली.

पंदराव्या आनी सोळाव्या शेंकड्यांत ह्या मळार जाल्ल्या संशोधनात्मक वावराक लागून विश्वासंबंदींच्या गिन्यानांत आनीक भर पडली. ह्या वावराक लागून धर्तरी हेर ग्रहांभशेन वाटकुळी आसून तीय सूर्याभोंवतणीं लंब - वर्तुळकारांत भोंवता हें सिध्द जालें. ह्या काळांत निकोलस कॉपर्निकस ह्या पोलीश खगोलशास्त्रज्ञान खगोलीय गिन्यानांत म्हत्वाची भर घाली. उपरांत सतराव्या शेंकड्यांत गॅलिलीओ आनी न्यूटन हाणीं दुर्बीणीच्या आदारान तशेंच मुखार स्पॅक्ट्रोस्कोप आनी फोटोग्रॅफीक प्लेटींचो सोद लागिल्ल्यान नव्या गिन्यांची आनी तान्यांची म्हायती मेळ्ळी. तशेंच सूर्य हो एक प्रारूपीक (Typical) तारो आसून, ताचो आकाशगंगेच्या भायल्या भागांत आस्पाव जाता. मळबांत लिकलीकपी हेर तारे धर्तरेसावन हजारांनी प्रकाश वर्सां (Light years) पयस आसात. १९२० च्या सुमाराक खगोलतज्ञांनी मळबांत साबारकडेन दिश्टी पडपी अंधूक उजवाडाचे चोंबे (Nebulae) हे आकाशगंगेसारकीं हेर तारामंडळां आसा हें स्पश्ट केलें. हीं तारामंडळां आकाशगंगेसावन खूब प्रकाशवर्सां पयस आसात.

विश्वासंबंदी म्हायती दिवपी साबार सिध्दांत आसून, सादारणपणान तांच्या मतान विश्वाचो खंयच्चोय भाग हो ताच्या हेर भागां भशेनूच आसा, आल्बर्ट अर्नस्टायन हाचो सापेक्षता हो सामान्य सिध्दांत विश्व वर्तनाक लागू पडटा. ताचो हो सिध्दांत दोन विश्वासांचेर आदारला - (१) विश्वांत खंयचोच संदेश उजवाडापरस गतीमान आसना आनी (२) विश्वांत भौतिक नेम सगळेकडेन सारकेच आसतात. ह्या वेगवेगळ्या सिध्दांताप्रमाण विश्वाचो आंवाठ वाडत आसा वा आंवळटा, स्पंदन (Oscillating) वा थीर आसा, अशी प्रतीकृती दोळ्यामुखार उबी रावता. अशे रितीन वेगवेगळ्या शास्त्रज्ञांनी आपआपल्या मतांप्रमाण विश्वासंबंदी कांय कल्पना मांडल्यात. पूण विश्वासंबंदी सत्य परिस्थिती मांडपाक आयज मेरेन कोणाकूच यश मेळूंक ना.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : धर्तरी

**विश्वकर्मा :** एक वैदिक देव. ऋग्वेदाच्या एका सुक्तांत ताका धर्तरी, उदक आनी सगळी मोनजात हांचो निर्मातो आनी सर्वश्रेश्ठ देव अशें म्हळां. सगळ्या देवांचें नामकरण हाणेंच केलें. हो सर्वद्रष्टो आसून ताका जायतीं तोंडां, दोळे, हात, पांय आदी अवयव आनी पांखांय आसात , अशें ताचें वर्णन केल्लें आसा. अथर्ववेद, वाजसनेय संहिता आनी ब्राह्मणे हातूंत ताका सर्वश्रेश्ठ देव मानला. वाजसनेय संहितेंत ताका सर्वद्रष्टा प्रजापती म्हळा, जाल्यार शतपथ ब्राह्मणांत ताका विधाता प्रजापती म्हळा. सृश्टीचे सुरवेक फकत होच अस्तित्वांत आशिल्लो. सुरवेच्या काळांत ताका सौर देवतेचो उपाधी म्हूण मानील्लो. पूण उपरांतच्या काळांत ताका पुराय प्राणिसृश्टीचो जनक मानपांत आयलो.

पुराणां आनी महाभारत हातूंत विश्वकर्म्याक देवांचो म्हान शिल्पशास्त्रज्ञ मानला. हो प्रभास वस्तू आनी बृहस्पतीची भयण योगसिध्दा हांचो पूत. ब्रह्मदेवाच्या दक्षिण वक्षभागांतल्यान हो निर्माण जालो अशें महाभारतांत म्हळां.

देवांखातीर ताणें शस्त्रां, आभूशणां, विमानां आदी जायत्यो वस्तू तयार केल्यो. विष्णुचें सुदर्शनचक्र, शिवाचो त्रिशूळ, इंद्राचें वज्र आनी विजय नांवाचें धोणू हीं शस्त्रां हाणेंच निर्माण केल्लीं. त्रिपूरदहनाच्या वेळार शिवाखातीर रथ हाणेंच तयार केल्लो. पद्मपुराणांत तेविशीं एक कथा आसा ती अशी - विश्वकर्म्याक संज्ञा नांवाची एक चली आशिल्ली. तिचें लग्न विवस्वान म्हळयार सूर्याकडेन जालें. पूण सूर्याचें तेज



तिच्यान सहन करूंक जालें ना, देरवून बापायकडेन ती परत आयली. जेन्ना तिका व्हरपाखातीर विवस्वान विश्वकर्म्याकिडेन आयलो तेन्ना विश्वकर्म्यान ताचें बरेंच तेज काडून त्या तेजापसून देवांखातीर शस्त्रां निर्माण केल्लीं. इंद्राखातीर इंद्रलोक हाणेंच निर्माण केल्लो. सुतल नांवाच्या पाताळाचो निर्मातोय होच. हाचेभायर श्रीकृष्णाखातीर द्वारका, वृंदावन, राक्षसांखातीर लंका, तेचपरी हस्तिनापूर, इंद्रप्रस्थ आनी गरुडभवनूय हाणेंच निर्माण केल्लें.

मनु, चाक्षुष, शम, काम, हर्ष, नल, वानर, विश्वरूप आनी वृत्रासूर हे ताचे पूत आनी बर्हिष्मती, संज्ञा, छाया आनी तिलोत्तमा ह्यो ताच्यो धुवो. हातुंतलो विश्वरूप हो इंद्राचो प्रतिस्पर्दी म्हणून निर्माण केल्लो आनी विश्वरुपाक इंद्रान मारतकूच ताचो सूड घेवपाखातीर ताणें वृत्रासूराची निर्मिती केल्ली. ताचेविशीं ब्रह्मवैवर्तपुरणांत एक कथा आसा ती अशी -घृताची नांवाची एक अप्सरा विश्वकर्म्याची मोगी आशिल्ली. पूण राग भरशी एक दीस ताणें तिका 'तू शूद्र कूळांत जल्म घेवशी' असो शाप दिलो. ताकालागून ती एका गवळयागेर जल्माक आयली. ब्रह्मदेवाचे कृपेन विश्वकर्म्याकय एका ब्राह्मण कुळांत जल्म मेळ्ळो. फुडें ह्या दोगांयचोय संबंद येवन जीं भुरगीं तयार जालीं ताचेपसून शिंपी, कुंभार, शेट, थवय आदी कारागिरांचो समाज निर्माण जालो. ताकालगून हे लोक विश्वकर्म्याक मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**विश्वामित्र :** एक वैदीक ऋशी. विश्वामित्राचो जल्म कनौज देशांत

जालो. तो अमावसू वंशांतल्या कुशीक राजाचो नातू आनी पुराणीक गाथीचो पूत. ताचें मूळ नांव विश्वरथ. फुडें तो क्षत्रिय ब्राह्मण जाल्या उपरांत लोक ताका विश्वामित्र म्हूण पाचारपाक लागले.

विश्वामित्र हो कुशिकांचो मुरवेली आसलो. विश्वामित्राच्या तेंपार कुशिक लोक संख्येन चड, तशेच ते बळिश्टय आशिल्ले. त्या तेंपार सुदास हो भरत लोकांचो राजा आसलो. वसिष्ठ हो सुदासाचो पुरोयत. सुदास राजाचो राज्याभिशेकय वसिष्ठानूच केल्लो. पूण कुशिक लोकांक आपलेकडेन आकर्शीत करून फुडें तांच्या आदारान आपल्या भरत लोकांचो उत्कर्श करपाच्या हेतान सुदास राजान वसिष्ठाक कुशीक सारून विश्वामित्राकडेन आपलें पुरोयतपण दिलें. ह्या रिवणासावन वसिष्ठ आनी विश्वामित्र हांचेमदीं संघर्श सुरू जालो. वसिष्ठाचो पूत शक्ती हाणें विश्वामित्राचो पराभव केल्ल्याचो उल्लेख ऋग्वेदांत मेळटा. सुदासान केल्ल्या यज्ञ प्रसंगार विश्वामित्र आनी वसिष्ठ पूत शक्ती हांच्यात वाद - विवाद जावन, तातूंत शक्तीन विश्वामित्राक हारयलो. पूण विश्वामित्रान जमदग्नीकडच्यान ससर्परी नांवाची विद्या मेळोवन शक्तीचो पराभव केलो. तशेंच, निमाणेकडेन सुदासाच्या सेवकांचो वधय केलो अशे उल्लेख मेळटात.

विश्वामित्रान कांय सुक्तांय रचल्यांत. विपाशा आनी शुतुद्री ह्या न्हंयांक जेन्ना हुंवार आयले, तेन्ना ते हुवार देंवचे म्हूण विश्वामित्रान प्रार्थना केली. ते प्रार्थनेखातीर ताणें जें सुक्त रचिल्लें तें नदीसूक्त म्हूण प्रसिद्द आसा. ताणें आपलें आनी वसिष्ठालें वैर दाखोवपी कांय ऋचा रचल्यांत. त्यो 'वसिश्ठद्वेषिणी' म्हूण प्रसिद्द आसात.

विश्वामित्राच्यो कथा पुराणां, महाभारत आनी वाल्मिकीरामायणांत वाचूंक मेळटात. तातूंत थोडोभोव फरक आसा. पुराण कथांनी विश्वामित्र हो मुळावो क्षत्रिय. पूण उपरांत ताका ब्राह्मण जावपाची इत्सा जातकूच तो तेखातीर यत्न करपाक लागलो , तेन्ना ताका ह्या कामांत वसिष्ठान खर विरोध केलो. पूण निमाणे ताणें आपली ब्रह्मर्षी जावपाची महत्वकांक्षा पुराय केली.

वाल्मिकीरामायण आनी महाभारत ग्रंथांनी विश्वामित्राचें सादारणपणान वर्णन वाचूंक मेळटा तें अशें - राजा विश्वामित्र एकदा शिकारेक गेल्लेकडेन तो वसिष्ठाच्या आश्रमांत पावलो. वसिष्ठाकडेन नंदिनी नांवाची कामधेनू आशिल्ली. तिच्या आदारान ताणें विश्वामित्राक शाही पद्दतीचें अतिथ्य केलें. तें पळोवन विश्वामित्राक ते कामधेनुचो लोभ उत्पन्न जालो. ताणें ती कामधेनू वसिष्ठाकडेन मागली. पूण वसिष्ठान ती मागणी न्हयकारली, तेन्ना विश्वामित्रान आपल्या सैन्याच्या आदारान ती कामधेनू उभारून व्हरपाचें केलें. तशें करतांना तिच्या आंगातल्यान शक, यवन, पल्लव, बर्बर, किरात हे सैनिक भायर येवन तांणी विश्वामित्राच्या सैन्याचो पराभव केलो. उपरांत विश्वामित्रान अस्त्रविद्या संपादून ताचो प्रयोग वसिष्ठाचेर केलो. पूण ताचोय उपेग जालो ना. वसिष्ठाचो पराभव शस्त्रबलान न्हय तर फकत ब्रह्मबळान करूं येता हे कळून आयले उपरांत, ताणें क्षत्रियत्वाचो त्याग करून ब्राह्मण जावपाचें थरयलें. रुषंग नांवाच्या तिर्थाचेर वचून ताणें थंय व्हड तप केलें. निमाणेकडेन तो ब्रह्मर्षी जालो. उपरांत ब्रह्मबलाचेर ताणें वसिष्ठाचो पराभव केलो. ब्रह्मर्षी जाल्याउपरांत लेगीत ताचे काम, राग, मोह ह्या सारकिल्ले विकार उणें जावंक नासले. देखून त्या काळांतल्या ब्रह्माणांनी ताका ब्रह्मर्षी म्हूण आपणावंक नाशिल्लो. हें कळतकच विश्वामित्रान आपल्या विकारांचेर जैत मेळोवपाखातीर परत व्हड तप केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**विष्णु :** एक वैदिक आनी पुराण काळांतली देवता. विष्णु ह्या उतराची उत्पत्ती जायत्या तरांनी सांगतात. विष् = सतत क्रियाशील आसप हाचेवयल्यान तें उतर आयलां अशें यास्कान म्हळां. मॅकडोनेल, श्रोडर आनी हेर अस्तंती विद्वानांनीय तोच अर्थ घेतिल्लो आसा. पूण यास्कान विश् = व्यापप ह्या धातूवयल्यानय तें उतर सिध्द जाता असो पर्याय दिल्लो आसा आनी सायणाचार्यानय ताका अणसरून विष्णु म्हणजे व्यापक वा व्यापनशील असो ताचो अर्थ सांगला. विष्णुसहस्त्रनामाचे एके टिकेंत होच अर्थ घेवन अशें म्हळां -

चराचरेषु भूतेषु वेशनाद्विष्णुरूच्यते ।

**अर्थ :** चराचर भुतांच्या जाग्यांचेर रिगील्लो आशिल्ल्यान ताका विष्णु अशें म्हण्टात.

ऋग्वेदांत चडकरून विष्णु म्हणजे पक्षिस्वरुपांतलो सूर्य अशेंय मानला. ह्या सूर्यरूप पक्ष्याक सुपर्ण आनी गरूत्मान् (गरूड) अशींय नांवां दिल्ली आसात. फुडें मागीर तींच नांवां विष्णुकय लागलीं. विष्णुसहस्त्र नामांत सुपर्ण हें विष्णुचें एक नांव आसा. पुराणकारांनी गरूड हें विष्णुचें वाहन मानलां, तें चडकरून विष्णुचेंच एक रूप आसपाक जाय. विष्णुक लायिल्ल्या जायत्या विशेशणांवयल्यान आनी वर्णनांवयल्यान ताचें सौर स्वरूप दुबावीत थारता. तरीय सूर्याचे मुरवेल तशेंच गौण अंशय आपणांत आस्पावन घेवन विष्णु ही देवता सिध्द जाली आनी उत्कर्शाप्रत पावली असो ताचो अर्थ जाता.

ऋग्वेदांत विष्णुची तूस्त करपी फकत तीन सुक्तां आसात. तशेंच तातूंत एक ल्हानशें विष्णुसुक्तय आसा. विष्णुचें माहात्म्य ताचेवयल्यान कळूं येता. वेदांतय विष्णुचे कांय पराक्रम वर्णिल्ले आसात, ते अशे - विष्णु हो इंद्राचो सामको लागिंचो इश्ट आसून तो इंद्रा सारकोच वीर्यबलसंपन्न आसा. इंद्र - वृत्र झुजांत जेन्ना वृत्र इंद्राक आटापाक येना जालो तेन्ना ताका विष्णुन पालव दिलो म्हणूनच इंद्र वृत्राक मारपाक शकलो. विचमान आशिल्ले धर्तरेवयले लोक विष्णुनच निर्माण केले; अस्थिर आशिल्लें मळब ताणेंच घट केलें आनी तीन पावलांनी त्रिभुवन व्यापलें. ताचें तिसरें पावल परम पद आसून तातूंत मधूचो संचय आसता. वांज बायलेंत विष्णु गर्भसंभव निर्माण करता.

तो गर्भाची राखवणूय करता. हें सगळें मतींत घेवन एक वैदिक ऋषी म्हण्टा - दोंगरांनी रावपी आनी मेकळेपणान वावुरपी शींव जसो आपल्या पराक्रमान नामना जोडटा तसोच विष्णुय आपल्या पराक्रमांक लागून मनशांकडच्यान तूस्त करपाक योग्य थारला.

पूण विष्णु जरी कितलोय बळिश्ट आसलो तरीय ऋग्वेदांत तो उपेंद्रच आशिल्लो. इंद्राचो आज्ञाधारक अशाच प्रकारचें दुय्यम स्थान ताका ऋग्वेदांत आशिल्लें. पूण यजुर्वेदाच्या काळांत इल्लो इल्लो विष्णुचो लौकिक वाडपाक लागलो. ब्राम्हणकाळांत हे प्रक्रियेन नेट धरलो. ब्राह्मणांनी 'यज्ञो वै विष्णु :' = यज्ञ म्हणजेच विष्णु वा विष्णु म्हणजेच यज्ञ अशें समीकरण थारायलें. ऐतरेय ब्राम्हणांत घोशणा केल्ली आसा ती अशी -

अग्निर्वै देवानामवमो विष्णु : परम : ।
तदन्तरेण सर्वा अन्या देवता : ।

**अर्थ :** अग्नी ही सगळयांत सकयल्ली देवता, विष्णु हो सगळयांत वयलो देव आसा. ह्या दोगांच्याय मदीं सगळयो देवता आसात.

ब्राह्मणकाळांत विष्णुच्या तीन पावलांचो संबंद धर्तरी, अंतराळ आनी मळब हांचेकडेन जोडला. ताका विष्णुक्रम अशें नांव मेळ्ळें. यज्ञकर्त्या यजमानाचो विष्णुकडेन एकचार कल्पिल्लो. यजमानान वेदयेचेर तीन पावलां दवरून विष्णुक्रमाचें अनुकरण करचें असो विधी तयार केलो. तीन पावलांनी तीनूय लोक व्यापप हें ऋग्वेदांतलें कथाबीज, ब्राह्मणग्रंथांनी वाडयलें. ताच्यो दोन कथा आसात , त्यो अशो - १) देव आनी दैत्यांचें एक खेप झगडें जालें. तातूंत दैत्य जिखले. ते सगळी धर्तरी हातासपाक लागले. तेन्ना 'आमकांय इल्लो धर्तरेचो वांटो दी' अशें देवांनी तांचेकडेन मागलें. हाचेर दैत्यांनी म्हळें 'तुमच्यामदलो विष्णु आपल्या तीन पावलांनी जितली भूंय व्यापतलो तितलीच भूंय आमी तुमकां दिवं'. तें आयकून विष्णुन आपल्या तीन पावलांनी सगळो लोक, वेद आनी वाणी हीं तीनूय व्यापलीं आनी तांकां मुक्त केले.

२) देव आनी दैत्य हे दोगूय प्रजापतीचे पूत. त्या दोगांय मदीं सत्ता आनी वैभवाची सर्त चलताली. ते सर्तींत एक खेपे दैत्य जिखले. सगळें जग तांणी आत्मसात केलें. देवांक इल्लोय जागो उरलो ना. मागीर ताणी एक युक्ती केली. तांणी एक गुपीत अशी येवजण केली. तांच्यांतलो विष्णु हो वामन (खुजो) आशिल्लो. ताच्या वांगडा देव दैत्यांकडेन गेले आनी जमीन मागपाक लागले.

दैत्यांनी म्हळें, 'बरें आसा हो तुमच्या सगळयांमदलो जो वामन आसा ताका आड पडपा इतली भूंय आमी तुमकां दिवं'. देवांक तितलेंच जाय आशिल्लें. तांणी तें मान्य केलें. रोखडेंच तांणी त्या 'वामन' विष्णुक उदेंतेक व्हरून न्हीदयलो. उपरांत ते गायत्री छंदांनी ताचें स्तोत्र गावपाक लागले. त्या स्तोत्राच्या बळग्यान तांणी वामनाक खूब लांब केलो, जाकालागून सगळी धर्तरीच ताच्या आंगारवाला आयली. ताकालागून दैत्यांक भूंय उरली ना. तांची सगळी सत्ता आनी संपत्ती देवांक मेळ्ळी.

फुडें उपनिषदकाळांत तत्त्वज्ञानाच्या मळार विष्णु रिगलो. सगळया सैमाचें धारण पोशण करपी अन्नरुपी परब्रह्म म्हणजे विष्णु अशें मैत्री उपनिषदांत म्हळां. तशेंच साधकाचें निमणें साध्य जें श्रेय तेंच विष्णुचें परमपद अशें कठोपनिषदांत म्हळां. गृह्यसुत्रांच्या काळांत विष्णु हो नित्यपुजेचो देव जालो. ताच्या फुडल्या काळांत ताका पंचायतनांत मुखेल स्थान फाव जालें. उपनिषदकाळांतच ब्रह्मा - विष्णु - महेशांच्या त्रिमूर्तींची कल्पना प्रचलित जाली. सांख्यमताप्रमाण हे तीन व्हड देव क्रमान सत्व - रज - तमांचीं प्रतीकां थारले. विष्णुच्या सत्त्व गुणांक लागून सैमाचे स्थितीचें म्हळयारूच पालन - पोशण करपाचें काम ताचेकडेन आयलें. ॐकाराचे उपासनेंत तातुंतल्या उकाराकडेन विष्णुचें तादात्म्य मानलें.

महाभारतांत विष्णुची कीर्त हाच्यापरस चड वाडली. विष्णु सगळया सैमाचो स्वामी थारलो. परमेश्वर ही पदवी ताका ब्रह्मदेवाच्या तोंडान दिल्ली.

शांतीपर्वांतलें नारायणीय उपाख्यान निर्मून व्यासान नारायणाक म्हणजे विष्णुक परम उपास्य केलो. उपासनेचें एक साधन आशिल्लें विष्णुसहस्त्रनाम हें स्तोत्रय महाभारतकारांनीच रचलें. अनुगीतेंत विष्णुचें वासुदेव कृष्णाकडेन तादात्म्य सांगपांत आयलें.

अष्टादश महापुराणांतलीं गरूड, नारद, विष्णु, विष्णुधर्मोत्तर आनी भागवत हीं पुराणां वैशणव आसात. तातूंत भागवत पुराणाचो आंकडो सगळयांत वयर लागता. ह्या भागवतादी पुराणांनी विष्णुची कीर्त जायत्या पटींनी वाडयली. नित्य, अव्यय, अक्षय, एकरस आनी एकमेवाद्वितीय अशा परब्रह्मायाकच पुराणकारांनी विष्णु ही संज्ञा दिली. विष्णु हो प्रकृतीपरस पर, परमश्रेश्ठ, अंतरात्म्यांत स्थित; तशेंच रूप, वर्ण, नांव सारकिल्ल्या विशेशणांनी विरहीत आनी षड्विकारहीत आसा. ब्रह्मा तोच आनी शिवूय तोच.

पुराणकारांनी विष्णुचें भक्तीवात्सल्य निमणें अवस्थेक पावयलें. गजेंद्राच्या मोक्षाखातीर तोच धांवलो. देव - दैत्य संघर्शांत देवांक अमृत मेळोवन दिवपाखातीर तोच मोहिनीरुपान प्रगट जालो. ध्रुवाक ताणेंच अढळपदार बसयलो. प्रल्हादाखातीरय तोच नरसिंहाच्या रुपान खांब्यातल्यान प्रगटलो. दुर्वास मुनीन 'तुका धा जल्म घेवंचे पडटले' हो अंबरीष ह्या एकांत भक्ताक दिल्लो शाप भगवंतान भक्ताचें बरें करपाखातीर आपल्याचेर ओडून घेतलो. वासुदेव, संकर्षण, प्रद्युम्न आनी अनिरूध्द ह्या चार व्युहांच्या रुपान तोच चतुरात्मो जालो. सगळीं वैशणव पुराणां अशा जायत्या विष्णुकथांनी भरिल्लीं आसात. विष्णुच्या गुणमाहात्म्यांचें दर्शन तातुंतल्यान जाता. ह्याच पुराणांत विष्णुच्या रुपाची आनी ताच्या पुजापद्दतीची वेवस्थीत मांडावळ केल्या.

विष्णुचो लोक वैकुंठ. तो सप्तसर्गांच्या आनी कैलासाच्याय वयर आसून तो परम दर्शनीय आसा. वैकुंठ हाचो अर्थच 'खोस - दिवपी' असो आसा. वैकुठांत खोस भरिल्लि आसा. तो हिरे माणकांनी चकचकत आसता. ताच्या मदेगाक एक व्हड, सोबीत अशा प्रासादांत विष्णु लक्ष्मीवांगडा रावता. प्रद्युम्न हो ताचो पूत आनी अनिरूध्द हो नातू, हे दोगूय ताच्या म्हऱ्यांत आसतात. थंयच्यान तो चराचर सैमाचें पालन करता. शेषनाग हें ताचें हांथरूण आनी गरूड ताचें वाहन. नारद, तुंबरू, ऋषी, मुनी हे थंय गुणगान करतात. विष्णुच्या प्रासादामुखार नयनरम्य उद्यान आसून तें बाराय म्हयने फुलां - फळांनी भरिल्लें आसता. जय - विजय हे वैकुंठांत द्वारपालाचें काम करतात आनी विष्णुभक्तांकच भितर सरपाक दितात. विरजा नांवाची एक न्हंय वैकुंठांतल्यानूच व्हांवता. वैकुंठांत गेल्ले विष्णुभक्त तिचे देगेर ध्यान - धारणा करतात.

पुराणकारांनी विष्णुचें माहात्म्य जायत्या तरांनी विशद रुपान वर्णिल्लें आसा. मुखार वैश्णव संप्रदायांनी पुराणीक विष्णुमाहात्म्याक चड उजळ आनी तात्त्विक अर्थ दिला. ह्या सगळया तोखणायेच्या स्तोत्रांतल्यान उपासनेखातीर विष्णुचें जें ध्यान निर्माण केलें ताचो श्लोक असो -

शान्ताकारं भुजगशयनं पद्मनाभं सुरेशं
विश्वाधारं गगनसद्दशं मेघवर्णं शुभाङ्गम् ।।
लक्ष्मीकान्तं कमलनयनं योगिभिर्ध्यानगम्यं
वन्दे विष्णुं भवभयहरं सर्वलोकैकनाथम् ।।

**अर्थ :** शांतमूर्ती, शेषाचेर न्हीदपी, बोंबलेंत कमळ धारण करपी, देवांचो अधिपती, विश्वाधर, मळबासारको व्यापक, कुपांच्या रंगाचो, शुभांग, लक्ष्मीकांत, कमळासारक्या दोळयांचो, योग्यांक फक्त ध्यानांतूच गम्य, भव - भय हरण करपी आनी सगळया लोकांचो एकटोच अधिपती अशा विष्णुक हांव पांयां पडटां.

जेन्ना जेन्ना धर्तरेचेर अधर्म माजता, धर्माचो ऱ्हास जाता, दुर्जन बळिश्ट जातात, सज्जनांचो छळ जाता, त्या त्या वेळार भगवान विष्णु अवतार घेवन भुंयेचो भार हलको करता आनी धर्माची घडी परत नीट करता अशी वैश्णव पुराणकारांची धारणा आसा.

महाभारताच्या शांतिपर्वांतल्या नारायणीय उपाख्यानांत विष्णुचे धा अवतार सांगिल्ले आसात. ते अशे - वराह, नरशींव, वामन, परशुराम, राम, कृष्ण, हंस, कूर्म, मत्स्य आनी कल्की. वायुपुराणांतय विष्णुचे धाच अवतार सांगिल्ले आसात. पूण थंय हंस, कूर्म आनी मत्स्य हांच्या जाग्यार दत्तात्रेय, वेदव्यास आनी एक अनामिक अशीं तांचीं नांवा आसात. भागवत पुराणांत विष्णुचे बावीस अवतार सांगिल्ले आसून तातूंत कपिल, दत्तात्रेय, ऋषभ आनी धन्वंतरी हांचो आस्पाव जाता.

भारतीय दैवतशास्त्राच्या इतिहासांत विष्णु आनी शिव हे दोन देव मानवाकृतींतल्या दैवतोपासनेचें आद्य प्रतीक मानतात. ह्या देवतांचें मानवीकरण उत्तर वैदिक काळांत जालें. तातुंतल्यानच शैव आनी वैश्णव संप्रदायय निर्माण जाले. विष्णुच्या ह्या परिवर्धित स्वरुपांत सात्वतांचो उपास्य वासुदेव आनी नारायणीय उपाख्यानांतलो जगत्संचालक नारायण ह्यो दोन देवता संमीलित करपाचो यशस्वी यत्न पुराणकारांनी केलो. ताकालागून ऋग्वेदांत चवथ्या श्रेणीचो आशिल्लो विष्णु पुराणीक काळांत सगळयांत व्हड देव जालो.

बौध्द काळांत कांय तेंप विष्णु कुशीक पडलो. पूण भितरल्यान तो चड चड लोकप्रिय जातालो. ताचे भोंवतणी जायत्यो कथा जल्मुपाक लागल्यो. तांचे तात्त्विक अर्थय सांगपाक लागले. त्यो विष्णुकथा पुराणां, रामायण - महाभारतांतय आस्पाविल्ल्यो. कालांतरान बुध्दाचें तेजो वलय कमी जालें आनी आपोआप विष्णु परत भगवान जावन पुजेच्या मखरांत वचून बसलो. शेवटाक बुध्दाकच विष्णुचो णववो अवतार मानप जालें.

भारतांत जायत्यो विष्णुमूर्ती आसात. ताचे सादारण आनी अवतार अशे दोन वांटे जातात. ह्या मूर्तींनीं विष्णुक चडकरून चार हात आशिल्ल्याचें दाखयलां. हातांचो आंकडो दोन, चार, स, आट वा तांच्यायपरस चड आशिल्ल्यो मूर्ती मेळटात. विष्णुच्या चार हातांत शंख, चक्र, गदा आनी पद्म ह्यो वस्तू आसतात. काळजाचेर कौस्तुभमणी आनी श्रीवत्सलांछन आसता आनी गळयांत धोंपरामेरेन लोमकळपी वैजयंती माळ आसता.

मध्ययुगांत विष्णुच्यो चतुर्मुख मूर्तीय जावपाक लागल्यो. नर, नरसिंह, स्त्रीमुख आनी वराहमुख अशीं चार तोंडां घडोवन कलाकारांनी ह्यो मूर्ती आकाराक हाडल्यो. वैकुंठ, अनंत, त्रैलोक्यमोहन आनी विश्वरूप अशीं तांकां नांवां दिलीं. तांकां ८, १२, १६ आनी २० अशीं भुजांय लायलीं. अशो कांय मूर्तीय काश्मीरांतल्या अवंतीपूर हांगाच्या उखननांत सांपडिल्ल्यो आसात. थंयच्या मार्तंडदेवळांतली विष्णुमूर्ती अश्टभुज आसा.

रंगनाथ, पद्मनाथ, जलशयन, वैकुंठनारायण, लक्ष्मीनारायण, गरूडनारायण, गजेंद्रमोक्ष, योगश्वर विष्णु, पांडुरंग, हयग्रीव, वेंकटेश अशे विष्णुमूर्तीचे आनीकय कांय प्रकार सांपडटात.

विष्णुमूर्तींत शेषशायी वा अनंतशयन हें मूर्तिरूप कलाकारांक खूब मानवता. ही मूर्त कशी घडोवंची ताचें वर्णन अग्निपुराणांत आसा. त्रिविक्रम हें आनीक एक लोकप्रिय वैश्णव शिल्प. ह्या शिल्पांत त्रिविक्रम विष्णुचो दावो पांय तकलेच्या समांतर उखलिल्लो दाखयतात. बदामी हांगाची त्रिविक्रममूर्ती भारतांतली एक सोबीत मूर्त मानतात.

विश्वरूप विष्णु असोय एक मूर्तिप्रकार आसा. अशो कांय मूर्ती मथुरेक सांपडल्यात. ह्या मूर्तींनी दोन खाशेलेपणां सांपडटात. कांय मूर्तींच्या चारय वटांनी वसू, रूद्र, आदित्य, शिव, ब्रह्मा, चंद्रीम, सूर्य सारकिल्ल्या जायत्या देवतांच्यो मूर्ती कोरांतिल्ल्यो आसतात. तर

कांय मूर्तींनी विष्णुचे एके वटेन वराह आनी दुसरे वटेन नरसिंहाचें तोंड केल्लें आसता.

वैखानस आगम आनी पांचरात्रसंहिता हांच्यांत मूर्तींच्या श्रेणींत ३६ विष्णूंची गणना केल्ली आसा. विष्णुच्या थीर मूर्तींक ध्रुवबेर अशें म्हण्टात. योग, भोग, वीर आनी अभिचारिक अशे विष्णुमूर्तींचे चार भेद मानिल्ले आसात. स्थानक, आसन, शयन आनी उत्तम, मध्यम, अधम अशेंय एक वर्गीकरण केल्लें आसा.

बौध्द शिल्पांत विद्युज्ज्वालाकराली, दशभुज सितमारीची आनी उभयवराहानन मारीची ह्यो तीन बौध्द देवता विष्णुक आपल्या पांयासकयल माडयतात अशें विष्णुचें रूप सांपडटा. विष्णुवाहन अवलोकितेश्वराची मूर्तय कांय कडेन सांपडटा.

जैन मूर्तिकलेंत ऋषभनाथ ह्या तीर्थंकराचो चाकर ह्या स्वरुपांत विष्णु दाखयल्लो दिसता.

शंख, चक्र, गदा, पद्म, धोणू, श्रीवत्स, कौस्तुभ, वैजयंती, किरीट आनी कुंडल हीं विष्णुचीं आयुधां आनी अलंकार आसात. वैश्णव संप्रदायांत ह्या दर एकाचो तात्त्विक अर्थ सांगिल्लो आसा. शंख - पंचमहाभूतात्मक शब्दब्रह्माचें प्रतीक, नांव पांचजन्य; चक्र - मनाचें प्रतीक, नांव सुदर्शन; गदा - आदिविद्या, नांव कौमोदकी; पद्म - सैमाचें प्रतीक; धोणू - आदिमायेचें प्रतीक, नांव शार्ङ्ग; श्रीवत्स (कौस्तुभमणियुक्त) - तेजाचें प्रतीक, वैजयंती - आद्या, अजया शक्ती, किरीटकुटस्थ सत्त्व; कुंडलां - क्षर आनी अ - क्षर तत्त्वाचीं प्रतीकां.

विष्णुचीं नांवां आनी रुपां जायतीं आशिल्ल्याचें सांगलां. ताचीं सहस्त्र नांवां वेगळीं काडून तांचें 'विष्णु सहस्त्रनाम' हें स्वतंत्र स्तोत्र तयार केल्लें आसा. त्या नांवांनी विष्णुपुजेंत विष्णुक तुळशीपानां वा कमळां ओंपतात. पूण विष्णुचीं सकयल दिल्लीं २४ नांवां प्रसिद्द आसात.

केशव, नारायण, माधव, गोविंद, विष्णु, मधुसूदन, त्रिविक्रम, वामन, श्रीधर, हृषीकेश, पद्मनाभ, दामोदर, संकर्षण, वासुदेव, प्रद्युम्न, अनिरूध्द, पुरूषोत्तम, अधोक्षज, नारसिंह, अच्युत, जनार्दन, उपेंद्र, हरी आनी श्रीकृष्ण. आचमनाच्या वेळार ह्या नांवांचो उच्चार करतात.

हेर देवतांसारखीच विष्णुचीय शोडशोपचार पुजा करतात. विष्णुपुजेंत तुळशीचें पान गरजेचें आसता. कमळ चड बरें. खीर वा शिरो हो विष्णुचो निवेद्य.

खंयच्याय व्रताचें कार्य पुराय जावंचें म्हणून कार्याच्या शेवटाक विष्णुस्मरण करचें, अशें सांगलां. तीन खेप 'विष्णवे नम :' असो उच्चार करून तें स्मरण करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**विष्णुदास नामा :** (इ.स. चो १६ वो शेंकडो).

एक मराठी संतकवी. हाचेविशीं विद्वानांमदीं बरेच मतभेद आसात. तो महानुभाव आसुंये, अशें य.खु. देशपांडे सुचयतात तर ज. र. आजगांवकार तो नामा पाठक आसुंये असो तर्क करतात. वि.ल. भावे तो एकनाथाच्या काळांतलो वा मात्सो पयलींचो दुसरो नामदेव आसुंये अशें म्हण्टात. तर गो. का. चांदोरकार विष्णुदास नामा आनी नामा कृष्णदास हे दोगय एकच अशें म्हण्टात. ल.रा. पांगारकर ताका एकनाथाचे मुस्तींतलो शिंपी विठ्ठलभक्त मानतात. डॉ. सरोजिनी शेंडेन विष्णुदास नामा आनी ताचें साहित्य हांचेर एक संशोधनात्मक प्रबंध बरयला. तातूंत तिणें विष्णुदास नामा खंयच्या एका खाशेल्या संप्रदायाचो वा परंपरेचो अनुयायी दिसना अशें म्हळां. तो ब्राह्मण आसुंये आनी ताचो काळ शके १५०२ (इ.स. १५८०) ते १५५५ (इ.स. १६३३) मेरेन आसुंये. तो आनी संत नामदेव हे वेगवेगळे. ताच्या महाभारताचीं कांय पर्वां जरी महानुभावांच्या सांकेतिक लिपींत बरयल्लीं आसलीं तरीय तो महानुभाव आशिल्लो अशें म्हणपाक कसलोच पुरावो ना.

श्री बा. द. सातोस्कर हाणें आपल्या ''गोमंतकीय मराठी साहित्याचे शिल्पकार - खंड १'' ह्या ग्रंथांत मात्शी वेगळी माहिती दिल्या. प्रा. अ.भा. प्रियोळकार आनी डॉ. पांडुरंग पिसुर्लेंकर ह्या विद्वान संशोधकांचो संदर्भ दिवन श्री सातोस्कर सांगता, विष्णुदास नामा नांवाचो संत कवी सोळाव्या शेंकड्यांन गोयांत जावन गेलो. पुर्तुगिजांनी जप्त करून गोंयांतल्यान बागाक व्हेल्ल्या साहित्यांत, ह्या नामाच्या नांवार जायतें धर्मीक साहित्य मेळ्ळां. पूण महाराष्ट्रीय विष्णुदास नामा आनी गोंयकार विष्णुदास नामा ह्यो दोन वेगळयो व्यक्ती आसपाची शक्यताय चड दिसता.

विष्णुदास नामान मराठींत पुराय महाभारत बरयलां. ताचो ओवयांचो आंकडो लागीं लागीं १३,५०० इतलो आसा. तातूंत ताणें मूळ महाभारतांतल्यो खूब कथा आनी उपकथा घेवंक नात. ताचे बदला ताणें आपणे रचिल्ल्यो तशेंच त्या काळार लोकांमदीं चालंत आशिल्ल्यो नव्यो कथा घाल्यात. तशेंच महाभारतांतल्या विंगड विंगड पर्वांत आयिल्ल्या कथांचें मिश्रण करून नव्योच कथा ताणें रचल्यात. महाभारतांतल्या मूळ कथांचो आराखडो तसोच दवरून ताच्या तपशिलांमदीं ताणें जाय तशे बदल केल्यात.

ताची समग्र मराठी महाभारत आनी हेर आख्यानां उपलब्ध आसात. तशेंच तुळशी आख्यान, एकादशीमहात्म, म्हाळसेनकथा, द्रौपदीस्वयंवर, कपोताख्यान, शुकाख्यान, हरिश्चंद्राख्यान, स्फुट अभंग, पदां आनी हेर रचनाय मेळटात.

ताणें बुधबावणी नांवाचें एक काव्य रचलां. तातूंत 'ॐ नमः सिध्दं' हो मंत्र आनी १६ स्वर आनी व्यंजनां हातुंतलें एक एक अक्षर ओवीचें सुरवेचें अक्षर म्हूण घेतलां, तातूंत पुराय रितीन वेव्हारीक उपदेश केल्लो दिसून येता. ताणें अध्यात्मपर अशो विनोदी कविताय रचल्यात. देखीक -

आम्ही न बोलों लटकें । अवघें वर्तमान खोटें ।।धृ।।
मुंगी व्याली शिंगी झाली तिचे दूध किती ।
अठरा रांजण भरूनि ठेविलें प्याले बारा हत्ती ।।
तळयात कांसव गीत गाय तडिवर कोल्हा नाचे ।
घेऊनी कागद दौत लेखणी खेकडा पुस्तक वाचे ।।
विष्णुदासनामा म्हणे ऐका याची ख्याती ।
जो लटिके म्हणील त्याचे पूर्वज नरकी जाती ।।

विष्णुदास नामाचो सकयल दिल्लो अभंगूय बरोच प्रसिद्द आसा -

येई वो विठ्ठले माझे माऊलिये ।
निढळावरी कर ठेवुनी वाट मी पाहे ।।
आलिया गेलिया हातीं धाडी निरोप ।
पंढरपुरी आहे माझा मायबाप ।।
पिवळा पितांबर कैसा गगनी झळकला ।
गरूडावर बैसोनि माझा कैवारी आला ।।
विठोबाचे राज्य आम्हां नित्य दिवाळी ।
विष्णुदास नामा जीवें भावें ओवाळी ।।

गोंयांत जायतेकडेन, चवथी दिसांनी गणपतीची आरत करताना गणपतीच्या आरतीवांगडा, शंकराची, विष्णुची आरत म्हणपाची चाल आसा. वयर दिल्लो अभंगय चवथीची आरत कसो म्हणप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**विष्णुपद** : एक पवित्र स्थान. भारतांत खूब कडेन हीं स्थानां आसात. नभोमंडलांतल्या सप्तर्षीच्या वयले वटेंतल्या मार्गार धर्म, ध्रुव ह्या विभुतींनी आलाशिरो घेतला असो समज आसा. तांकाय ही संज्ञा आसा. विष्णुपद हें पावसाचें उगमस्थान आनी त्रिलोकाचें आश्रयस्थान मानलां. हांगाच्यान गंगा व्हांवता अशी समजूत आसा. हाका स्वर्गीय मंडलाचो तिसरो विभाग म्हण्टात.

कुरूक्षेत्र, गया, निषध, पंढरपूर हांगा विष्णुपदां आसात.

ह्या विष्णुपदांक वेणुनाद अशेंय नांव आसा. तांचो स्कंद पुराणांत उल्लेख आयला, ताचें स्पश्टीकरण अशें -

ह्या जाग्यांचेर श्रीकृष्णाचें आनी संगम नांवाच्या राक्षसाचें झूज जावन संगमाचो पराभव जालो. श्रीकृष्णाच्या भंयान संगम एका फातरीपोंदा लिपून बसलो तेन्ना कृष्ण त्या फातरीचेर पांय दवरून वेणू वाजोवपाक लागलो हो श्रीकृष्णचो पांय म्हळयार विष्णुपद.

गयेंतल्या विष्णुपदाचेर स्त्राध्दाचे पिंड अर्पण करतात. पंढरपुरांतल्या विष्णुपदाक वेणुनाद अशें दुसरें नांव आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**विष्णुपुराण** : (पळेयात पुराणां).

**विष्णुबावा ब्रह्मचारी** : (जल्म : इ.स. १८२५ ; मरण : १८ फेब्रुवारी १८७१ मुंबय).

आधुनिक महाराष्ट्रांतलो एक व्हड विचारवंत आनी मिशनरी वृत्तीचो धर्मसुदारक. ताचें पुराय नांव विष्णु भिकाजी गोखले. तो मूळचो कुलाबा जिल्ह्याच्या माणगाव तालुक्यांतल्या शिरवली गांवांतलो. ताका पांच भाव आनी पांच भयणी आशिल्ल्यो.

पिरायेच्या णवव्या वर्सा तो जमीन महसूल खात्यांत नोकरेक लागलो. मागीर बाराव्या वर्सा महाडच्या भुसारी दुकानांत दोन वर्सां आनी रत्नागिरी जिल्ह्यांतल्या संगमेश्वर बंदराचेर कस्टम खात्यांत उमेदवारी करीत रावलो. सोळाव्या वर्सा ताणें कश्टम खात्यांत नोकरी धरली. उपरांत सात वर्सां तो वसई, कल्याण भिवंडी, उरण हांगा नोकरे निमतान भोंवलो.

धार्मिक गजालींची चड ओड आशिल्ल्याकारणान तो कथा, कीर्तन, पुराण प्रवचनां, पुजा हातूंत दंग जातालो.

पिरायेच्या तेविसाव्या वर्सा वेव्हारीक जीणेचो सर्वसंग परित्याग करून परमात्म्याचे प्राप्तीखातीर तो घराभायर सरलो. सुरवातीक ताणें सदगुरूचो सोद घेवपाचें थारायलें. पूण ताका सदगुरू मेळूंक नाशिल्ल्या कारणान, सदगुरूचो सोद घेवपाचो सोडून आपलो आपणेच उध्दार करपाचें थारावन तो सप्तश्रृंगीच्या दोंगरार वचून रावलो. थंय ताणें तपश्चर्या केल्या उपरांत ताका आत्मज्ञान जालें. हें आत्मज्ञान ताणें दुसऱ्यांकय दिवपाचें थारायलें. तेखातीर ताणें समाजाचें निरीक्षण केलें. त्या निरीक्षणांत ताका दिसलें, परकीय इंग्रजाच्या नवस्थापीत राजवटीन भारतीय समाज धुस्पागोंदळांत पडला. तेभायर किरिस्तांव मिशनऱ्यांचें जें संस्कृतीक आक्रमण सुरू जालां, ताकालागून समाजांतले विचारवंत चड अस्वस्थ आनी अशांत जाल्ले आसात. भारतीय समाज इंग्रजांच्या आनी किरिस्तांवांचे मानसिक गुलामगिरींत धुस्पला. हें पळोवन ताचो राश्ट्रीय स्वाभिमान जागृत जालो. ह्या धर्मांतराची लाट परतुपाखातीर ताणें स्वधर्मप्रचार सुरू केलो. बायलांक शिक्षण सुविधाय उपलब्ध करून दिल्यो. लग्नाविशींय विष्णुबाबान पुरोगामी विचार व्यक्त केल्यात.

विधवांच्या दुख्खाची ताका पुराय कल्पना आशिल्ली. देखून तो विधवा लग्नाचो कट्टर पुरस्कर्तो आशिल्लो.

सुरवातीक विष्णुबावान आपले विचार वेगवेगळे कडेन केल्ल्या भाशणांतल्यान व्यक्त करून मागीर ते ग्रंथ रुपान बरयले. वेदोक्त धर्मप्रकाश, भावार्थसिंधू, चतुःश्लोकी श्रीमद् भागवताचो मराठी भाशेंत अर्थ, सुखदायक राज्यप्रकरणी निबंध आनी बोधसागर हे ताचे पांच ग्रंथ आसात. भगवत गीतेवयली सेतुबंधनी टीका पूर्ण जावंक नाशिल्ल्या कारणान फुडें विष्णुबावाचो शिश्य रामचंद्र राउत हाणें अप्पाशास्त्री बडवे हाचेकडल्यान ती पुराय करून घेवन विष्णुबावाचे एकोणिसावे पुण्यतिथीक छापून उजवाडायली.

- कों. वि. सं. मं.

**विष्णुसहस्त्रनाम :** वैश्णव सांप्रदायिकांचे पांच मुखेल आदारग्रंथ. हांकां पंचरत्न ह्या नांवान वळखतात. तातुंतलें विष्णुसहस्त्रनाम हें एक. एकशें सात श्लोकांचें हें स्तोत्र महाभारताच्या अनुशासन पर्वांत आस्पाविल्लें आसून, तातूंत विष्णुचीं एक सहस्त्र नांवां दिल्यांत.

खूब पुर्विल्ल्या काळासावन ह्या स्तोत्राचो पाठ करपाची प्रथा आशिल्ली. हाचे नित्य पाठ करप्याक धर्म, अर्थ, काम हे तीन पुरुषार्थ फाव जातात अशें आश्वासन महाभारतांत मेळटा. आद्य शंकराचार्यांनय ह्या सहस्त्र नांवाचेर टीका बरयताना ताचे पाठ करचे, असो उपदेश केला. रामानुजाचार्य आनी कुरेशरपुत्र पराशर हाणेंय ताचेर भाश्य बरयलां.

गिरेस्त वेपारी आपल्या पेढयांचेर ह्या स्तोत्राचे पाठ नेमान करतात. ताका लागून वेपाराची वाड जाता अशी तांची समजूत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**विसोबा खेचर :** (इ. स. चो १३ वो शेंकडो).

एक मराठी संत कवी आनी संत नामदेवाचो गुरू. ताच्या चरित्राविशीं चड म्हायती मेळना. ताच्यो स्फुट कविता, समकालीन संतांनी आपल्या काव्यांत ताचे विशीं केल्ले उल्लेख आनी कांय दंतकथा हातुंतल्यान ताच्या चरित्राचो थोडोभोव बोध जाता.

विसोबा हो शुक्लयजुर्वेदीय माध्यंदिन शाखेचो ब्राह्मण आसून, ताचें उपनांव चाटी आशिल्लें. हो वेदशास्त्रसंपन्न धनीक आसलो. कांय जाणांच्या मतान हाचें घराणें मराठवाड्यांतल्या मुंगी पैठणचें तर कांय जाणांच्या मतान औंढ्या नागनाथचो हो आळंदीत हो सावकार आशिल्लो.

सुरवातीक ताणें पांडित्याच्या आनी संपन्नतेच्या नेटार ज्ञानेश्वराच्या भावणांचो छळ केल्लो. पूण मुखार एका वेळार ज्ञानेश्वरांच्या महात्म्याची प्रचिती येवन तो तांच्या भजनाक लागलो. अशें सांगतात, एक दीस निवृत्तिनाथाक मांडे खावपाची इत्सा जाल्ल्यान मुक्ताई आयदनां जमोवपाक लागली. तिका कोणेच आयदनां दिवचीं न्हय, अशे विसोबान सांगलें. तेन्ना ज्ञानदेवान आपलो जठराग्नी प्रज्वलीत करून आपले फाटीचेर मुक्ताईक मांडे भाजपाक सांगले आनी मुक्ताईन तशेंच केलें. हें सगळें विसोबान जनेलांतल्यान पळयलें आनी ज्ञानदेवाच्या सिध्दीची प्रचिती येवन तो ताका शरण गेलो.

विसोबाच्या नांवार १० / १२ अभंग उपलब्ध आसात. तातुंतल्या एका अभंगांत ताणें आपली गुरूपरंपरा आदिनाथ - मत्स्येंद्रनाथ, गोरक्षनाथ, गहिनीनाथ - ज्ञानदेव - सोपानदेव - विसोबा खेचर अशी दिल्या. नामदेवान विसोबाकडसून गुरूपदेश घेतला.

श्रावण शु. ११ शके १२३१ ह्या दिसा विसोबान नागनाथ हांगा समाधी घेतली.

- कों. वि. सं. मं.

**विहार :** बौध्द भिक्षुंची रावपाची सुवात. बौध्द धर्म उदयाक येतालो त्या काळांत कांय भिक्षू मनशाच्या राबित्यापसून पयस ल्हानशी खोंपटी बांदून रावताले. अशा निवासस्थानाक सुत्तनिपातांत विहार म्हळा. बौध्द संघाचो विस्तार जाल्या उपरांत जायते भिक्षू वर्षावासाच्या काळांत एकठांय रावपाक लागले. तांच्या मठाकूय मागीर विहार हें नांव मेळ्ळें.

बौध्द संघांतल्या भिक्षुंच्या राबित्याक लागूनय ताका संघाराम अशें म्हण्टाले. अशा विहारांनी जायत्यो कुडी एके वळीन खणून, दर एके कुडींत भिक्षूखातीर एक फातराचो बांकय आसतालो. कालांतरान नालंदा विद्यापिठांतल्या प्राध्यापकांच्या वसतिघराकय विहार म्हणपाक लागले.

बुध्दाच्या काळांतय अशे विहार अस्तित्वांत आशिल्ले म्हणपाचें महावग्गावयल्यान कळटा. मगधाधिपती बिंबिसारान आपलो वेळुवन विहार बौध्द संघाक दान दिल्लो.

धर्मप्रचाराखातीर बौध्द भिक्षुंनी पर्यटन करचें अशी अपेक्षा आशिल्ली. पावसाचे तीन म्हयने मात तांणी एकाच जाग्यार, एकठांय रावचें अशें थारायलें. त्या काळांतच फकत ते विहारांत रावताले. त्या जिविताची संवंय जाल्ल्यान कालांतरान ते वर्सांतले बरेच म्हयने विहारांतूच रावपाक लागले. जायते भिक्षू तर थंयच रावन संघाचें कार्य करताले. ताकालागून विहारांचो खूब विस्तार जालो. तांच्या आकारांत आनी आंकड्यांतय भर पडली. भारतांत सांपडपी बौध्द लेण्यांनी चैत्यगृहां म्हळयार प्रार्थनेखातीर सभाघरां आसतात आनी विहारय आसतात. कांय जाग्यांचेर ऊंच दोंगराचेर जायते मजली विहार खणिल्ले सांपडटात.

कालांतरान ह्या विहारांचें शिक्षणकेंद्रांत रुपांतर जाल्लें दिसता. फकत धर्माचरण आनी साधना करून जावचेंना म्हणपाचें जेन्ना साधूंक कळ्ळें तेन्ना ते गिन्यान मेळोवपाखातीर यत्न करपाक लागले आनी मेळिल्लें गिन्यान आपल्या शिश्यांकय दिवपाक लागले. पयलीं तांणी बौध्द धर्माचो आनी तत्त्वगिन्यानाचो अभ्यास केलो. ताचे उपरांत वेदवेदांगां, दर्शनां, विद्या आनी कला हांचें अध्ययन - अध्यापनय अशा विद्यापिठांत सुरू केलें. हजारांनी विद्यार्थी थंय विद्याभ्यासाखातीर येवपाक लागले. तांचेखातीर वाचनालयांय निर्माण केलीं. विहारांचें हें विद्यापिठीय रुपांतर ल्हव ल्हव पूण निश्चितपणान जायत रावलें. चीनी भोंवडेकारांनी अशा विद्यापिठांचीं वर्णनां बरोवन दवरिल्लीं आसात.

सुरवेक एक एक भिक्षूखातीर ल्हान निवासस्थानां आसतालीं. तीं लांकडाचीं आसून, फातराच्या वा विटांच्या चौथऱ्याचेर बांदिल्लीं आसतालीं. पूण जेन्ना भिक्षूंचो आंकडो वाडलो तेन्ना विटांचे जायते विहार बांदपांत आयले. राजा आनी धनिकांनी बांदून दिल्ले विहार तर सगळया सोयींनी उपलब्ध आसताले. पाली साहित्यांत जायत्या कडांनी अशा विहारांचीं वर्णनां केल्लीं आसात. सामान्यपणान विहारांची

रचना सगळेकडेन सादी आनी साररवीच आशिल्ली. तातूंत सगळया तरांच्यो सुरवसोयी आसताल्यो. विहारांच्या भोंवतणीं व्हड आंगणां आनी ताचे भोंवतणी फातरांच्यो वा विटांच्यो वण्टी आनी मागीर कोंड्यांची वा झाडांची वंय वा चर आसताली. विहाराचीं पारवीं पाशाणाचीं, चुनेगच्चीचीं, तणाचीं वा झाडांच्या पानांचीं आसतालीं.

द. भारतांत बौध्द धर्माचो प्रसार जावपाक लागलो तेन्ना रानांनी भोंवता आसतना भिक्षूंक जायते बरे आनी मठवासी जिविताक फाव अशे जागे मेळळे. थंय तांणी जायतीं लेणीं निर्माण केलीं. तेरवातीर तांकां जायत्यो देणग्योय मेळळयो. सुरवेक तांणी कांय कुडी एके वळीन रवणून काडल्यो. पूण तांची मांडणी पद्दतशीर नाशिल्ली. मागीर मात ती सुदारली.

भाजेचीं लेणीं सगळयांत पुर्विल्लीं बेडसे, अजंटा, कोंडाणे, पितळरवोरें आनी नासिक हांगाय सनपूर्व काळांतले कांय विहार आसात. कोंडाणे आनी पितळरवोरे हांगाच्या विहारांतल्या दालनांतय रवांबे आसात. नासिकांत इ.स. च्या दुसऱ्या शेंकड्यांत जे विहार रवणल्यात तांच्या फुडल्या भागांत स्तंभयुक्त आगाशी (गच्ची) आशिल्ल्यान ते ओडलायणे जाल्यात.

त्या काळांतल्या वास्तुशिल्पाचीय तातुंतल्यान जाणीव जाता. त्या काळांतल्या कांय विहारांनी वण्टींक लेप दिवन रंगय दिल्लो दिसता. अजंटाच्या विहारांनी रंगीत चित्रांय सांपडटात.

भिक्षू आनी भिक्षुणी हांचें विहारांतलें जिवीत शिस्तबध्द आशिल्लें. ताका लागून तांकां सकाळीं बेगीन उठून ध्यान धारणा करप, आपली रावपाची जागा नितळ दवरप, आपले कपडे धुवप, चैत्यन्यघरां नितळ दवरप, तांची दुरुस्ती करप सारकिल्लीं जायतीं कामां करचीं पडटालीं.

सांजवेळचे सगळे भिक्षू एकठांय बसून सुत्तपठण करताले. भिक्षुणी आनी हेर मनशां तें आयकतालीं. ताचे उपरांत जाण्टया भिक्षुचें तरणाटया भिक्षूंरवातीर प्रवचन जातालें आनी मागीर धर्माच्या संबंदीत प्रस्नांची चर्चाय जाताली. भिक्षूंक आपलें पोट भरपारवातीर भीक मागची पडटाली. उरिल्ल्या वेळांत नव्या भिक्षूंक शिक्षण दिवपाचें कामूय तेच करताले. तशेंच विहारांतल्या हेर कामांरवातीरय वेगवेगळे अधिकारी भिक्षूंमदल्यानूच वेंचून काडटाले. विहारांतल्या बौध्द मठातूंय भिक्षुंवांगडा भिक्षुणीय रावताल्यो. भिक्षूंपरस तांचेर चड निर्बंध आसताले.

उत्तर भारतांतले जायते विहार विटांनी बांदिल्ले आशिल्ले. तातुंतले जायते आयज उद्ध्वस्त जाल्यात. द. भारतांतले विहार मात दोंगरांनी रवणिल्ले आसून आजूनय ते बरे आसात. म्हत्वाच्या अशा कांय बौध्द केंद्रांतल्या विहारांची म्हायती मेळटा, ती अशी - कुशाणांच्या काळांत बौध्द पंथाचो बरोच प्रसार जाल्लो आनी जायते मठय स्थापन जाल्ले. रावळपिंडीलागीं ह्या नगराचे जायते भग्ना अवशेश सांपडल्यात. तातूंत जायते बौध्द मठांचे अवशेश सांपडटात. तातुंतले कांय इ.स.च्या पयल्या शेंकड्यांतले आसुंये. धर्मराजिक स्तुपालागचो विहार चड उल्लेरवनीय आसा. हो विहार जायते रवेप उद्ध्वस्त जावन परत बांदला. आयज ताचे जे अवशेश दिसतात ते मध्ययुगाच्या सुरवेच्या काळांतले आसात.

मोहरा, मोराडू आनी जौलियन ह्या जाग्यांच्या मदीं आशिल्ल्या दोंगरांच्या मुळसांतय दोन काळरवंडांतल्या मठांचे अवशेश सांपडटात. कांय भाग कुशाण काळांतलो आसा जाल्यार कांय भाग इ.स.च्या चवथ्या शेंकड्यांतलो आसा. अशे जायते मठांचे अवशेश तक्षशिलाच्या उत्रवननांत सांपडिल्ले आसात.

मौर्य सम्राट अशोकाच्या पयलीं काश्मीरचो राजा सुरेंद्रान काश्मीरांत जायते बौध्द मठ स्थापन केल्ले. ताचे उपरांत सम्राट अशोकान त्या वाठारांत जायते विहार निर्माण केले. जेहलमच्या उगमालागीं ताणें धर्मारण्यविहार निर्माण केला. अशोकाचो पूत जलौकान बारामुल्लालागीं (वराहामूल) कृत्याश्रमविहार नांवाचो एक विहार बांदला. कृत्यादेवी नांवाच्या बौध्द चेटकीच्या नांवान बांदिल्लो हो विहार इ.स. च्या ११ व्या शेंकड्यामेरेन अस्तित्वांत आशिल्लो. वितस्ता (जेहलम) न्हंयेचे देगेर बारामुल्लापसून ५ मैलांचेर कितशोम नांवाच्या रवेडेगांवांत हो विहार आशिल्लो.

कुशाण वंशांतलो नामनेचो राजा, कनिष्कानूय काश्मीरांत जायते बौध्द मठ स्थापन केले. तातुंतलो कनिष्क महाविहार हो रवूब गाजिल्लो विहार. ह्या विहाराचे अवशेश कनिसपूरांत (कनिष्कपूर) आसात. काश्मीरांतलो कुडलवन विहारय थंय भरिल्ले चवथे बौध्द परिशदेकलागून नामनेक पावला.

श्रीनगरांतल्या शंकराचार्य दोंगुल्लेलागीं हरबन (षडर्हद्वन) हांगा कुशाण काळांतल्या एका विहाराचे अवशेश सांपडिल्ले आसात. त्याच जाग्यार एके दोंगुल्लेचेर वेगवेगळे उंचायेचेर चैत्य, स्तूप, विहार अशो फातरांच्यो वास्तू उबारिल्ल्यो आसात. तशेंच श्रीनगराचे उत्तरेक सुमार तीन मैलांचेर अंतभवनाक अमृतभवन नांवाचो विहार आशिल्लो. मेघवाहन राजाची पट्टराणी अमृतप्रभा हिणें तो बांदिल्लो.

प्रवरसेन (२ रो) हाचे राजवटींत (इ.स. चो ६ वो शेंकडो) जयेंद्रविहार निर्माण जालो. तातूंत बुध्दाची एक व्हडली मूर्त आशिल्ली. युआन च्वांगान तातूंत वसती केल्ली. इ.स. च्या १० व्या शेंकड्यांत क्षेमगुप्त राजान तो मठ उद्ध्वस्त करून ताचे फातर शिवाचें देवूळ बांदपारवातीर वापरले आनी बुध्दाची पितळेची मूर्त वितळायली.

ललितदित्यान परिहासपुराक राजविहार बांदिल्लो तोय रवूब व्हड आशिल्लो. काश्मीरांत शंबरांपरस चड संघाराम आशिल्ले आनी तातूंत ५,००० भिक्षू रावताले म्हणपाचें युआन च्वांगच्या लेरवांवयल्यान कळटा.

पुर्विल्ल्या काळांत लडारवांतय जायते संघाराम आशिल्ले. अजूनय त्या वाठारांत बौध्द मठ आसात. तांकां गोंपा म्हण्टात.

तातुंतलो हेमिस गोंपा सगळ्यांत पुर्विल्लो आनी नामनेचो आसा. लेहचे आग्नेयेक सुमार २२ मैलांचेर तो आसा. तातूंत शेंकड्यांनी लामा रावपाक शकतात. लेहच्यान साठ मैलांचेर लामा युरूक नांवाचो एक गोंपा आसा. तातूंत जायते मठ आसून एका जाग्याचेर अवलोकितेश्वराची व्हडली प्रतिमा आसा. तिका इकरा तकल्यो आनी हजार हात आसात.

हिमाचल प्रदेशांतल्या स्पितीक हांगा कांय गुंपा आशिल्ले. तातुंतल्या तालो गुंपांत शेंकड्यांनी सोबीत अशीं वण्टीचित्रां रंगयल्लीं आशिल्लीं. पंजाबांतल्या चीनभुक्ती, जालंधर, बहावलपूर, थानेसर ह्या जाग्यांनीय बौध्द विहार आशिल्ले.

उत्तर प्रदेशांतलें मतिपुरा, अयोध्या, मथुरा, संकास्य (संकिसा), श्रावस्ती (सहेत - महेत), कुशीनगर (कुसिया), गोपालपूर, कौशांबी (कोसम), सारनाथ हीं पुर्विल्लीं बौध्द क्षेत्रां आसून थंय जायते विहार आशिल्ले. मतिपुराक (मुडोर) बौध्द पंथाचें व्हडलें शिक्षणकेंद्र आशिल्लें. त्या जाग्यार युआन च्वांगाक धा बौध्द मठ सांपडले, जातूंत हीनयान पंथाच्या सर्वास्तिवादी फांट्याचे सुमार ८०० भिक्षू आशिल्ले.

युआन च्वांगाक अयोध्येच्या वाठारांत १०० मठ सांपडले. जातूंत ३,००० भिक्षू हीनयान आनी महायान पंथांच्या ग्रंथांचो अभ्यास करताले. पूण अयोध्येलागीं एकाय बौध्द विहाराचे अवशेश सांपडिल्ले नात. तशेंच ताणें संकास्याक सांपडिल्ल्या चार - पांच विहारांचें वर्णन केल्लें आसा. पूण तांचे अवशेश सांपडूंक नात.

सहेत - महेतांत नामनेच्या जेतवन विहाराचे अवशेश सांपडल्यात. ह्या विहारांत बुध्द पंचवीस वर्सां राविल्लो. बुध्दाच्या काळापसून श्रावस्ती हें बौध्द पंथाचें म्हान केंद्र आशिल्लें. फाहियानाक हांगा १८ विहार सांपडले. थंयच्या विहारांच्या भग्नावशेशांत बुध्दाच्यो आनी बोधिसत्त्वांच्यो पाशाणमूर्ती सांपडल्यात.

श्रावस्तीच्या विहारांतले पुब्बराम (पुर्वाराम), अंधवन आनी राजकाराम हे विहारय उल्लेख करपासारके आसात.

कुशीनगराक बुध्दाचें महापरिनिर्वाण जालें. ताकालागून तें बौध्दांचें पुण्यक्षेत्र थारलें. थंय जायते विहारय निर्माण जाले. थंयच्या एका विहारांत बुध्दाची निर्वाणमूर्ती आसा.

गोरखपूरचे दक्षिणेक आशिल्ल्या गोपालपुराक एका बौध्द विहाराचे अवशेश सांपडल्यात. तातुंतल्या कांय विटांचेर बौध्द तत्त्वज्ञानांतलीं वाक्यां कोरांतिल्लीं आसात.

यमुनेचे देगेर आशिल्ल्या कौशांबीक जायते विहार बांदिल्ले. तातुंतले घोसिताराम आनी बदरिकाराम हे विहार उल्लेख करपासारके आसात. थंय कांय काळ बुध्दाचें वास्तव्य आशिल्लें. नगरांतल्या प्रासादांत सुमार ६० फूट उंचायेचो एक विहार आसून तातूंत बुध्दाची चंदनी मूर्त आशिल्ली. हूण आक्रमकांनी हे सगळे विहार उद्ध्वस्त केले.

सारनाथचो धर्मचक्रप्रवर्तन विहार हो खूब नामनेचो. बुध्दाच्या वेळार थंय दोन विहार बांदिल्ले. पूण युआन च्वांगाक थंय तीस संघाराम सांपडले. तातूंत १५०० भिक्षू आशिल्ले. इ. स. च्या बाराव्या शेंकड्यांत कनौजचो राजा गोविंद चंद्र गाहडवालची राणी कुमारदेवीन सारनाथाक एक सोबीत विहार निर्माण केलो. तातुंतल्या एका शिलालेखांत तिची तोखणाय केल्ली आसा.

बिहारांत वैशाली, नौलगढ, बोधगया, पाटलिपुत्र, ओंदतपुरी, राजगृह, नालंदा, तिलडक, फुल्लहारी, विक्रमशिला ह्या जाग्यांनी शेंकड्यांनी बौध्द विहार निर्माण जाल्ले. तातुंतली वैशाली ही लिच्छवी संघाची राजधानी आशिल्ली. थंय बरेच बौध्द मठ स्थापन जाल्ले.

बोधगयेच्या तीन मठांनीय बौध्द भिक्षू रावताले. तातुंतलो महाबोधी संघाराम खूब व्हड आशिल्लो. त्या विहारांतल्या वण्टींक रंगूय दिल्लो. थंयच्या व्हडल्या स्तुपांनी बुध्दाचे अवशेश आशिल्ले आनी बुध्दाची एक भांगरारुप्याची मूर्तय आसून ती रत्नांनी मढयल्ली आशिल्ली. थंय महायान पंथाचे भिक्षू रावताले. हो विहार श्रीलंकेच्या राजान बांदिल्लो आसून युआन च्वांगाच्या वेळार थंय श्रीलंकेंतले जायते भिक्षू आशिल्ले.

पाटलिपुत्राक (पाटणा) केल्ल्या उत्खननांत जायत्या बौध्द विहारांचे अवशेश सांपडल्यात. तातुंतलो अशोकाराम नांवाचो सगळ्यांत व्हडलो विहार सम्राट अशोकान बांदिल्लो म्हणपाचें महावंशावयल्यान कळटा. अशोकाच्या काळांतच हांगा तिसरी बौध्द परिशद भरिल्ली.

राजगृह (राजगिर) हें बिहारांतलें म्हान बौध्द केंद्र आशिल्लें. बुध्दान हांगा जायतो तेंप एकांतवास केल्लो. ताच्या महापरिनिर्वाणाउपरांत रोखडीच हांगाच्या सप्तपर्णी व्हॉवरीत पयली बौध्द परिशद भरिल्ली. सारिपुत्त आनी मोग्गलान हांणी बौध्द पंथाची दिक्षा हांगाच घेतली. ताचे उपरांत ह्या नगरांत जायते बौध्द विहार बांदले. तातुंतलो वेलुवन विहार प्रसिद्द आसा. बिंबिसार राजान तो बुध्दाक आनी संघाक दान दिल्लो.

पाटण्यापसून सुमार ४० मैलांचेर नालंदा नांवाचें बौध्द केंद्र आशिल्लें. गुप्त काळांत थंय जायते विहार निर्माण जाल्ले. मागीर मात त्या सगळ्यांचो मेळून एक महाविहार जालो. थंय जायते शेंकडे एक विद्यापिठय चालू आशिल्लें. धर्मस्वामी नांवाचो एक तिबेटी भिक्षू इ.स. च्या १३ व्या शेंकड्यांत भारतांत आयिल्लो. ताका नालंदा महाविहारांत कांय भिक्षू अध्ययन - अध्यापन करतना दिशिल्ले. मुसलमानी अत्याचारांतल्यान वाटावल्ले कांय विहार थंय आशिल्ले. पूण कालांतरान तेय नश्ट जाले.

नालंदापसून सुमार २१ मैलांचेर तळडक संघाराम आशिल्लो. तो खूब व्हड आशिल्लो आनी ताच्या मदल्या विहारांत ३० फूट उंचायेची बुध्दाची मूर्त आशिल्ली. उजवे वटेन अवलोकितेश्वराची आनी दावे वटेन तारेची मूर्त आशिल्ली. त्या विहारांत महायान पंथाचे १०००

भिक्षू आशिल्ले.

विक्रमशीला विहार वंगाधिपती धर्मपालान स्थापन केल्लो. भागलपूरालागीं सुलतानगंज हांगा एके दोंगुल्लेचेर जे अवशेश सांपडल्यात ते ह्याच विहाराचे, अशें संशोधकांचें मत आसा.

ओंदतपुरीक इ.स. च्या आठव्या शेंकड्यांत बंगालचो राजा गोपालान एक विहार बांदिल्लो अशें म्हण्टात. पूण ताच्या स्थानाविशीं संशोधकांचें एक मत ना. इ.स. च्या १२ व्या शेंकड्याच्या शेवटाक हो विहार नश्ट जालो.

बंगालांत कापत्य, सन्नगर, बलण्डा, बाहुलारा, बाराग्राम, देविकोट, त्रैकूटक, सोमपुरी, वशिभ, रक्तविटी, जागद्दल, विक्रमपुरी, शालवन, गुनाइघर, पट्टिकेरक, चित्तगाँग, ताम्रलिप्ती सारकिल्या जाग्यांनी बौध्द मठ आशिल्ले. तातुंतलो सोमपुरीचो विहार खूब प्रसिद्द आशिल्लो. ह्या विहारांत व्हड विद्याकेंद्र आशिल्लें. धर्मपाल राजान हांगा विहार बांदिल्लो आनी तो जायते शेंकडे चालू आशिल्लो. इ. स. च्या ११ व्या शेंकड्यांत बौध्द विरोधी वर्मा वंशांतल्या जातवर्मा राजान ताचो नाश केलो आसुंये.

पुण्ड्रवर्धन हे राजाधानीचे अस्तंतेक सुमार तीन मैलांचेर आशिल्लो वाशिभ संघाराम उल्लेखनीय आसा अशें युआन च्वांगान म्हळां. तातूंत व्हडलीं सभाघरां आनी जायत्या मजल्यांचीं वसतीघरां आशिल्लीं. भासुआक तांचे अवशेश सांपडल्यात. युआन च्वांगान रक्तविटी (तांबडी माती) नांवाच्या विहाराचोय उल्लेख केला. हो विहार कर्ण सुवर्णाक आशिल्लो आनी थंय बौध्द पंथाचें व्हड केंद्रूय आशिल्लें.

रामपाल राजान रामावती वा वरेंदी नांवाच्या पुर्विल्ल्या नगरांत जागद्दल महाविहार बांदलो. हांगा बौध्द विद्याकेंद्र आशिल्लें. जायते तिबेटी भिक्षू हांगा येवन राविल्ले. शुभाकर गुप्त, धर्माकर, विभूतिचंद्र सारकिल्ले महापंडितूय हांगा राबितो करून आशिल्ले.

उदेंत बंगालांतल्या टिप्पेरा जिल्ह्यांत कोमिल्लालागीं गुनायघराक एक व्हड विहार आशिल्लो म्हणपाचें थंय सांपडिल्ल्या ताम्रपटावयल्यान कळटा. तशेंच त्या भागांत पट्टिकेरा, मैनामती ह्या जाग्यांनीय जायते विहार आशिल्ले. तांचे अवशेश सांपडल्यात. कांय विहारांचे उल्लेखय कोरांतिल्ल्या लेखांनी सांपडटात.

अस्तंत बंगालांतल्या मिदनापूर जिल्ह्यांत तामुलक नांवाचो गांव आसा जाका पुर्विल्ल्या काळांत ताम्रलिप्त म्हण्टाले. फाहियानाक थंय बावीस मठ सांपडिल्ले. पूण युआन च्वांग जेन्ना थंय गेलो तेन्ना ताका फकत धा बौध्द संघाराम दिसले, जातूंत सुमार शंबर बौध्द भिक्षू रावताले. उपरांत हे विहार नश्ट जाले. आयज त्या जाग्यार बर्गा - भीम नांवाचें एक देवूळ आसा. तें देवूळय पुर्विल्ल्या काळांतलो एक विहारच आसुंये.

ओरिसांत बौध्द पंथाचो बरोच प्रसार जाल्लो. थंय सुमार १०० संघारामांत १०,००० भिक्षू आशिल्ले. तातुंतले पुष्पगिरी, रत्नगिरी, विराज, तोसली, दंतपुरी भौरशैल, मुंजशी हे उल्लेखनीय आसात.

विराजनगरच्या (जाजपूर) वाठारांत जायते बौध्द विहारांचे अवशेश सांपडल्यात. भौमकर वंशाचे राजवटींत थंयचे बौध्द मठ बरेभाशेन चलताले. तातूंत जायत्यो बौध्द मूर्तीय आशिल्ल्यो. इ.स. च्या ८ व्या - ९ व्या शेंकड्यांत त्या भागांत बौध्द पंथाचो बरोच प्रसार जाल्लो.

भुवनेश्वरालागीं शिशुपालगढाक केल्ल्या उत्खननांत एका पुर्विल्ल्या नगराचे अवशेश सांपडल्यात. हीच नगरी पयलींची तोसली नगरी आसुंये असो अदमास संशोधकांनी काडला. थंय पयलीं महायान आनी हीनयान ह्या दोनूय पंथांचे मठ आशिल्ले. तांची म्हायती ह्या वाठारांत सांपडिल्ल्या ताम्रपट आनी शिलालेखांवयल्यान मेळटा.

कलिंग देशाची पुर्विल्ली राजधानी दंतपुरींत (पुरी) गौत्तम बुध्दाचो भांगराचो दांत एका स्तूपांत कांय शेंकडे दवरिल्लो. युआन च्वांगाक थंय महायान पंथाचें व्हड केंद्र सांपडिल्लें. थंय नगराभोंवतणी व्हड वणत आसून तिच्या भायर पांच व्हडले बौध्द विहार आशिल्ले. दर एका विहारांत बुध्द आनी बोधिसत्त्वाच्यो सोबीत प्रतिमा कोरांतिल्ल्यो आशिल्ल्यो.

तिबेटी साहित्यांत मुंजशी नांवाच्या विहाराचो उल्लेख आसा. थंय व्हड बौध्द विद्याकेंद्र आशिल्लें अशें दिसता. ओरिसाच्या मुंज नांवाच्या राजाक नागार्जुनान बौध्द पंथाची दिक्षा दिल्ली. ताणेंच हो विहार स्थापलो आसुंये. पूण त्या विहाराचें नेमकें स्थान आजून समजूंक ना.

मालव देशांत युआन च्वांगाक सुमार १०० संघाराम सांपडले. तातूंत हिनयान पंथाचे २०,००० भिक्षू आशिल्ले, अशें ताणें म्हळां. गुप्त वंशाचे राजवटींत उज्जयिनी हें विद्येचें आनी बौध्द पंथाचें व्हड केंद्र आशिल्लें. थंय जायते विहार आशिल्ले. अभयकुमार, धम्मपाल, महाकच्चायन सारकिले जायते बौध्द आचार्य त्या मठांत राबितो करून आशिल्ले.

भोपाळपसून वीस मैलांचेर सांचीक एक व्हड बौध्द केंद्र आशिल्लें. ताचे अवशेश थंय सांपडल्यात. सम्राट अशोकाची राणी देवीन विदिशाक एक महाविहार बांदिल्लो. तशेंच इ. स. च्या ४ थ्या ते १२ व्या शेंकड्यामेरेन ह्या वाठारांत जायते विहार निर्माण जाल्ले. तातुंतले कांय फातरांचे आशिल्ले. थोडे विहार मध्ययुगांत निर्माण जाल्ले आसून ते आजुनूय बरे आसात.

धारचे नैर्ऋत्येक २५ मैलांचेर बाघ नांवाच्या गांवालागीं एका दोंगरांत कांय गुहा खणिल्ल्यो आसात. त्या गुहांनी बौध्द भिक्षुंची वसती आशिल्ली. तातुंतल्यो कुडी चवकोनी आसात आनी क्र. २ ची गुहा पांडवांची गुंफा ह्या नांवान वळखतात. तिचे फाटले वटेन एक स्तूप आसा. ह्या गुहांनी अजंठाच्या लेण्यांतल्या भित्तिचित्रांभशेन रंगीत चित्रां आसात.

कर्सानाचे दक्षिणेक ४ मैलांचेर अत्रंजिरवेर नांवाच्या जाग्यार पुर्विल्ल्या विहारांचे अवशेश सांपडल्यात. त्या स्थानाक वीरसन अशें नांव आशिल्लें. थंय एक पुर्विल्लो संघारामय आशिल्लो. तातूंत अशोकान निर्माण केल्लो १०० फूट उंचायेचो स्तूपय आशिल्लो.

पुर्विल्ल्या काळांत वलभीचें विद्यापीठ खूब नामनेक पाविल्लें. थंयच्या विहाराक मैत्रक राजान जायतें दान दिल्लें. त्या जाग्यार सुमार १०० संघाराम आसून तातूंत ६,००० भिक्षू हिनयान पंथाच्या ग्रंथांचें अध्ययन करताले. पूण त्या विहाराचे अवशेश हालींच भावनगरालागीं वल नांवाच्या गांवांत सांपडल्यात.

सुरतालागीं कांपिल्य नांवाचो विहार आशिल्लो. राष्ट्रकूट राजे दंतिवर्मा आनी धारा - वर्ष हांणी त्या विहाराक दानां दिल्ल्याची म्हायती मेळटा. त्या विहारांत सिंधू देशांतले ५०० बौध्द भिक्षू रावताले.

सौराष्ट्रांतल्या जुनागढांत अशोकाच्या वेळार बौध्द केंद्रां स्थापन जाल्लीं. थंय अशोकाचो एक शिलालेख आसा. थंयच्या ५० संघारामांत ३,००० भिक्षू आशिल्ले. ते दोंगरांनी खणिल्ल्या गुहांनी रावताले. गिरनार पर्वताचेरय कांय अवशेश सांपडल्यात. जुनागढांतल्या कांय गुहांनी कोरीव काम केल्ले सोबीत खांबे आसात.

ऊनाचे उत्तरेक १६ मैलांचेर तळाजालागीं सानाह नांवाचें स्थान आसा. थंय बौध्द गुहा - विहार आशिल्लो. थंयच्या दोंगरांनी साठांपरस चड गुहा सांपडल्यात. तातुंतले सगळयांत व्हड गुहेक एभल मंडप ह्या नांवान वळखतात.

महाराष्ट्रांत जायत्या दोंगराळ वाठारांनी खडपांनी लेणीं खणिल्लीं आसात. तातूंत चैत्यघरांलागीं विहारय सांपडटात. थंय शेंकड्यांनी खणिल्ले विहार आसात. कान्हेरीच्या लेण्यांतल्या एका शिलालेखांत कल्याणालागीं अंबालिका ह्या बौध्द मठाचो उल्लेख आसा. हो मठ अंबरनाथालागीं आसुंये अशें संशोधकांचें मत आसा. अजंठाच्या लेण्यांत कांय बौध्द लेणीं आसात. तातुंतली क्र. ४ ची गुहा हो सगळयांत व्हडलो विहार. तातूंत पद्मपाणी बोधिसत्त्वाची प्रतिमा कोरांतिल्ली आसा.

औरंगाबाद ह्या शारालागीं आनीकय जीं लेणीं आसात तातूंत एक चैत्यघर आसून पांच विहार आसात. त्या विहारांतलीं कांय दालनां खूब व्हड आसात. सगळया विहारांत जायत्या तरांच्यो मूर्ती कोरांतिल्ल्यो आसून कांय विहारांनी सोबीत नक्षीकामय केल्ले खांबे आसात. मूर्तींचें शिल्पकाम बऱ्या दर्जाचें आसा. तशेंच एका विहाराचे फाटले वण्टीचेर अवलोकितेश्वराची उबी मूर्त आसून दालनाच्या मदल्या भागांत मूर्तिदेवूळ आनी भोंवतणी प्रदक्षिणा मार्ग आसा. ह्याच लेण्यांत नाचाचें दृश्यय कोंरातिल्लें आसा. हीं लेणीं इ.स. च्या ६ व्या वा ७ व्या शेंकड्यांत खणिल्लीं आसुंये.

मुंबयचे उत्तरेक आशिल्ल्या साष्टी जुंव्यांतल्या एका दोंगराचेर (कान्हेरी) शंबरांपरस चड गुहा खणिल्ल्यो आसात. पुणे - मुंबय मार्गावयल्या मळवलीकडच्यान २ मैलांचेर एका दोंगराचेर (कार्ले) लेणीं खणिल्लीं आसात. बौध्द लेण्यांमदीं हांकां सगळयांत बऱ्या दर्जाचीं मानतात.

ह्या बौध्द विहारांनी जायत्यो मूर्ती कोरांतिल्ल्यो आसात. तातूंत बुध्द आनी बोधिसत्त्वाच्यो मूर्ती, बुध्दाचे जायते अवतार, गंधर्व आनी अप्सरा, भक्त आनी भक्तिणी, व्हडलो द्वारपाल सारकिल्ल्यो मूर्ती आनी संकट - मोचन प्रार्थना पट उल्लेख करपासारको आसा.

द. भारतांत बौध्द धर्माचो प्रसार सुरू जाल्याउपरांत त्या भागांतूय जायते मठ आनी विहार निर्माण जाले. कांय विहारांनी शिक्षणकेंद्रांय स्थापन जालीं. तातुंतलें शिल्पकाम, सोबीत मूर्ती, थंयचें नेमबध्द जिवीत आनी म्हान पंडितांचो राबितो हाकालागून कांय मठ उत्तर भारतांतल्या बौध्द मठांपरसय चड नामनेक पाविल्ले.

विझगापट्टम जिल्ह्यांत शंकरम दोंगराचेर एका विहाराचे भग्नावशेश सांपडटात. तो विहार गुप्त काळांतलो आसुंये. थंय जायते स्तूप, कांय गुहा, मठ आनी एक व्हड बांदिल्लो विहारय आशिल्लो.

गोदावरी जिल्ह्यांत एळूरच्यान वीस मैलांचेर गुंटुपल्ले हांगाचो संघाराम सनपयलीं २०० च्या अदमासाक खणिल्लो आसुंये. थंय विटांनी बांदिल्ल्या एका चैत्याचे अवशेश आनी कांय ल्हान व्हड स्तूप आसात.

अमरावती हें एक नामनेचें बौध्द केंद्र. सातवाहन काळांत बांदिल्लो एक व्हड स्तूपय हांगा आशिल्लो. त्या स्तुपाच्या वाठारांत बौध्द भिक्षुंचो विहार आशिल्लो.

नागार्जुनकोंड हें एक व्हड बौध्द केंद्र आसून थंय चार विहारांचे अवशेश सांपडल्यात. नागार्जुनकोंड हें स्थान पयलीं विजयपुरी ह्या नांवान प्रसिद्द आशिल्लें. थंय लागींच पर्वताचेर व्हड गुहाविहार आशिल्लो. त्या विहारांत नामनेचो बौध्द पंडित नागार्जुनान आपले निमणे दीस सारले अशें म्हण्टात. श्रीपर्वताच्या वाठारांतय सुमार २७ विहारांचे अवशेश सांपडल्यात.

वनवासी हांगा सुमार १०० संघाराम आशिल्ले. तातूंत महायान आनी हीनयान ह्या दोनय पंथांचे सुमार १०,००० भिक्षू आशिल्ले. वनवासी नगरांत २ संघाराम आनी ३ स्तूप आसून थंय जायते नामनेचे पंडित रावताले. डंबाळ आनी बेलगामी हांगाय इ. स. च्या ११ व्या शेंकड्यांत बौध्द विहार आशिल्ले अशें थंयच्या दानपत्रांवयल्यान कळटा.

कांचीपुरी हांगा एक व्हडलो बौध्द मठ आशिल्लो. ताचे सुमार शंबर विहार आशिल्ले आनी थंय व्हड बौध्द पंडित रावताले. कांचीपुरी हें नामनेचें विद्याकेंद्र आसून श्रीलंकेंतले बौध्द पंडितय थंय अध्ययनाखातीर येवन रावताले. नागपटम हें स्थान मद्रासचे दक्षिणेक १७० मैलांचेर दर्यादिगेर आसा. चोळ वंशाचे राजवटींत थंय एक बौध्द विहार आशिल्लो. हो विहार नागपटम हांगा श्रीविजयचो शैलेंद्र राजा

मारविजयोत्तुंग वर्मान बांदिल्लो.केरळांत मूलवासम नांवाच्या जाग्यार एक व्हड बौध्द विहार आशिल्लो. उल्लेख वेनाडू वंशांतल्या राजा विक्रमादिथिय वरगुण हाच्या इ. स. ८६८ च्या दानपत्रांत आसा.

मणिमेखलै ह्या नामनेच्या ग्रंथांत वंजीच्या विहाराचो उल्लेख आसा. पूण त्या विहाराचे अवशेश सापडूंक नात. केरळांतल्या तलपल्ली तालुक्यांत कांय गुहाविहार सांपडल्यात. हेभायर द. भारतांत भट्टिप्रोलू, जग्गय्यपेठ, गुसिवाड, घंटशाळ ह्या जाग्यांनीय बौध्द मठ आशिल्ले. अ. गोदावरी जिल्ह्यांत असगोलनूक एका व्हड विहाराचे भग्नावशेश सांपडल्यात. दंडपुरी आनी रामतीर्थम हांगाय बौध्द विहार आशिल्ले. गंजम जिल्ह्यांत वंशधारा न्हंयेचे देगेर शाळिहुंडमाकय गुप्त काळांत एक व्हड बौध्द केंद्र आशिल्लें.

बौध्द मठ - विहार आनी चैत्य हांचे निर्मितीखातीर आनी बाळगणुकेखातीर राजे - महाराजे, सरदार, श्रेश्ठी आनी सामान्य लोक ह्या सगळयांनी दानधर्म केल्ल्यानच तांचो इतलो विस्तार जालो अशीं जायतीं दानपत्रांय सांपडल्यांत. सगळे लोक विहार आनी चैत्य निर्माण करप हें एक पवित्र कर्तव्य मानताले. कारण तांच्या मनाचेर बौध्द भिक्षुंचें वागप, गिन्यान आनी समर्पण हांचो प्रभाव पडिल्लो. पूण कालांतरान बौध्द भिक्षुंचें जिवीत भश्टलें. हीन अशा तंत्रीक साधनेंत ते घुस्पले. ताकालागून मठांचो नाश जालो. तशेंच सनातनी ब्राह्मणांच्या आक्रमक धोरणाकलागुनूच जायते मठ ना जाले. हुणांच्या अत्याचारांकलागुनय गांधार आनी काश्मीर ह्या वाठारांतले शेंकड्यांनी विहार उध्वस्त जाले. ताच्याउपरांत मुसलमानांनीय जायती नासधूस केली.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : अजंटा, व्हॉवरी, नागार्जुनकोंड आनी वेरूळ

**विज्ञान :** विज्ञान म्हणजे विशेश ज्ञान. खंयच्याय विशयाच्या तत्त्वासंबंदीं, सिध्दांतासंबंदीं आनी गुणधर्मासंबंदीं खाशेलें गिन्यान प्राप्त करून घेवप जाता त्या गिन्यानाक विज्ञान ही संज्ञा लायतात. विज्ञानाक Science हें पर्यायी इंग्लीश उतर. Science हें उतर मूळ लेटीन Scio ह्या उतरावयल्यान आयलां. Scio म्हणजे जाणा जावप वा गिन्यान जावप.

खंयचेय गजालीचें गिन्यान प्राप्त करून दिवपी मनशाक सैमान इंद्रियां दिल्यांत. ह्या इंद्रियां मार्फत म्हणजे कान, दोळे, नाक हांच्या मार्फत मनीस जगाची वळख करून घेता. ते वळखींतल्यान मनीस थारावीक अनुमानां काडटा. अशीं अनुमानां काडपाक परतून ताका बुद्दी (मेंदू) हें इंद्रीय मदत करता. गजालीचें निरीक्षण, निरिक्षणांतल्यान इंद्रियामार्फत अणभव आनी अणभवांतल्यान बुद्दीचे कसवटीचेर अनुमान काडप हे शास्त्रीय पद्दतीक विज्ञानीक पद्दत म्हण्टात.

कांटेकोर अनुमान काडप शक्य जातलें तर पक्कें निरिक्षण जावंक जाय. तेखातीर इंद्रियां सशक्त जाय. तांकां सशक्त करपाक विज्ञानीक उपकरणां मदत करतात. जे बुद्दीचे कसवटीचेर निमणें अनुमान काडप जाता, तिका योग्य निर्णय घेवपाक प्रयोगशाळा मदत करता. अशे तरेन विज्ञानीक उपकरणांच्या आदारान, प्रयोगा मार्फत खंयची गजाल सिध्द करपाची जी शास्त्रीय रीत आसा तिका विज्ञानीक रीत म्हण्टात आनी ते रितींतल्यान जें गिन्यान प्राप्त जाता तें विज्ञान आसता.

बरेच प्रयोग केलेउपरांत विज्ञानीक एका थरावीक ठोस अनुमानाकडेन पावता. तें अनुमान (सत्य) प्रतिपादन करपाखातीर तो एक व्याख्या निर्माण करता. तो त्या सत्याचो सिध्दांत (Theory) जाता. हें प्रक्रियेंत विज्ञानीक केन्ना केन्ना परिकल्पनेचो (Hypothesis) आदार घेता आनी तिचेवरवीं कांय शक्यतायेचो (Deductions) अदमास करता आनी तातुंतल्यानच फुडें अंतीम निर्णयाकडेन (Theory) पावता. होच निर्णय उपरांत सैमाचें तत्त्व (Law of nature) जाता आनी अशे तरेन विज्ञानीक पद्दतीन सैमाचें गुपीत उक्तें करून सैमाच्या तत्त्वाचें गिन्यान प्राप्त करून दिता. हें एक तत्त्व मुखार आनीक जायतीं तत्त्वां सोदून काडपाक उपेगी पडटा.

विशयाच्या संदर्भांत आनी ताचे गरजेनुसार विज्ञानाचे पोटविभाग केल्यात. जरी एका विभागाचो संबंद दुसऱ्या विभागाकडेन आसप सैमीक आसलें तरी विज्ञान पद्दतीक एक शिमीत रूप दिवपाच्या उद्देशान विज्ञान ह्या विस्तृत विशयांच्यो वेगवेगळयो शाखा निर्माण केल्यात. हातूंत मुळावें विज्ञान (गणित, भौतिकी, रसायन, जीवविज्ञान, समाज विज्ञान, मनोविज्ञान) आनी अनुपयुक्त विज्ञान (खगोलशास्त्र, भूगर्भशास्त्र प्राणीविज्ञान, वनस्पत विज्ञान, भूगोल) अशे सदळपणान मुखेल दोन फांटे मानल्यात. परतून दर एका फांट्या अंतर्गत, खाशेलें गिन्यान प्राप्त करपाच्या उद्देशान दर एका विज्ञानाचे पोटविभाग मानल्यात. जशें गणित, अंकगणित, बीजगणित, मितीगणित आदी. रसायनशास्त्र, भौतिक रसायनशास्त्र, कार्बनीक रसायनशास्त्र, अकार्बनीक रसायनशास्त्र आदी.

सद्याचें युग हें विज्ञानीक युग म्हणप जाता. सद्याच्या युगांत मनशाच्या दर एका वेव्हाराचेर विज्ञानाचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. मनशाच्या दिसपट्ट्या वेव्हाराक लागपी दर वस्त ही विज्ञानान सोदून काडिल्ली आसा, वा तिका विज्ञानीक साधनांचो हातभार लागिल्लो आसा. तेखातीर विज्ञानाक मनीस कुळयेचे उदरगतीचें वरदान मानलां विज्ञानीक संशोधनावरवीं निर्माण केल्ल्या सुविधा - साधनां वरवीं मनशाक सगळे तरेची शारिरीक, मानसिक, भौतिक सवस्तकाय मेळ्ळया. तेवरवीं ताचें जिवीत चड सुखी जावंक पावलां. ताची शारिरीक तशी बौध्दीक तांक वाडून ताची सर्वांगी उदरगत जाता.

खंयचेय गजालीचो दुरुपयोग जालो म्हणटकच वरदानाचें

रुपांतर शापांत जाता. विज्ञानीक संशोधनाचो वापर मनीस कुळयेच्या बऱ्याखातीर जावंचो हो सैमीक संकेत. कांय नश्टयां लोकांक हो संकेत कळूंक ना. ते वैयक्तिक सुर्वाथाचे आशेन विज्ञानाचो दुरुपयोग करूंक लागल्यात. मनीस कुळयेचें कल्याण करपाची क्षमता आशिल्ल्या विज्ञान ह्या अपार शक्तीक वायट कर्मांखातीर वापरपाची तांकां पाडी बुद्द जाल्या. तांणी विज्ञानाचो दुरुपयोग करून विज्ञान हे शक्तीवरवीं मनीस कुळयेचें अतोनात नुकसान केलां. पूण विज्ञान हे शक्तीची हातूंत कांय चूक ना. चूक आसा ती तिका वायट कामाक वापरतल्यांची. म्हणून कांयजाण विज्ञानाक दूशण दितात तें समा न्ही.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : तंत्रज्ञान, रसायनशास्त्र, भौतिकी शास्त्र, संगणक शास्त्र

**वीज :** एक तरेची ऊर्जा. अचेतन (अजिवी) वस्तूंक (उपकरणांक) प्रवाहीत करून तांकां चलत करपाक चालना दिवपी एक शक्त. हे शक्तीवरवीं मुखेलपणान तीन तरेचीं कामां करप जातात. उपकरणां क्रियाशील करून तांचेवरवीं अपार कामां (धांवप, वजन उखलप, दाब घालप आदी), तापमानांत जाय तसो बदल घडोवन हाडप आनी उजवाड निर्माण करप. ह्या तीन मुखेल कामांभायर रसायनीक विश्लेशण करपाखातीरय विजेचो वापर करप जाता.

कांय वस्तू रगडल्यो तर तांचेकडेन हलक्यो वस्तू आकर्शित जाता हें जेन्ना पळयलें तेन्ना वीज हे ऊर्जेची कल्पना मनशाक आयली. हे क्रियेचो उल्लेख इ.स. पयलीं सुमार ३२० वर्सा थिओफ्रेस्टमान केल्लो. हाचेर फुडें सोळाव्या शेंकड्यांत विलियम गिलबर्टान अभ्यास केलो. 'इलेक्ट्रीसिटी' ह्या उतराचो सगळ्यांत पयलीं सन १६५० त वाल्टर शर्ल्टन हाणें उपेग केलो. स्टीफन ग्रे ह्या संशोधकान सन १७२१ त संशोधनावरवीं अशें प्रतिपादन केलें, एकेच वस्तुच्या एका आंगांतल्यान अशी आकर्शण - शक्त तेच वस्तुच्या दुसऱ्या आंगांत संचारण करूंक शकता. अशा वस्तूंक चालक (Conductor) म्हण्टात आनी अशा वस्तूमदीं सगळे तरेचे धातू आस्पावतात. ज्या वस्तूंमदीं अशेतरेचें आकर्शण शक्तीचें संचारण जावंक पावना त्या वस्तुमदीं मेण, रबर, लाख, सुकी हवा, सुकी कवंची अशा वस्तुंचो आस्पाव जाता आनी तांकां विद्युत् विरोधी (Insulator) म्हण्टात. सन १७३७ त डुफे ह्या संशोधकान ह्या आकर्शणाच्यो दोन तरा सांगल्यो. समान (Like) आवेश एकमेकांक पयस करता आनी असमान (Unlike) आवेश एकमेकांक आकर्शीत करता. फुडाराक क्लाइट,. मसेनब्रूक आनी विलीयम वाटसन हांणी १७४१ त वेगवेगळया सुवातींचेर पूण एकाच वेळार सांगलें की विजेचो संचय करूं येता आनी ताचो जाय तेन्ना वापर करूं येता आनी हातुंतल्यान मागीर विजोचो संचय करपी आयदणाचो (Leyden jar) चो सोद लागलो. बेंजामीन फ्रँकलिन ह्या अमेरिकन वैज्ञानिकान कुपांच्या गडगडाटासावन वीज प्राप्त केली आनी तिचे आनी हेर विजेचे गूण समान आसा हें सिध्द केलें. उपरांतच्या काळांत एपीनुस जोजेफ प्रीस्टलि, हेन्री कॅवेंडीश कोलॉम आनी फॅराडी हांणी आकर्शणाच्या आवेशाच्या बळासंबंदीं बरेंच संशोधन केलें. ल्युगी गैलवानी (१७८०), वोल्टा (१८००), निकल्सन, कार्लाईल, क्रूकशांक आनी फॅराडी हांणी विद्युत् प्रवाहासंबंदीं बरेंच संशोधन करून ह्या विशयाक बरीच चालना दिली. तांच्याच संशोधनाचेर आदारीत उपरांत वीज उत्पन्न करपी बॅटऱ्यो तयार करपांत आयल्यो.

विद्युत् वाहक तारांनी, विद्युत् वाहनाच्या वेळार चुंबकीय क्षेत्र निर्माण जाता अशें प्रतिपादन करपी सोद एच्. सी. अरस्टेड, किप्रो, सावार, एंपियर, फैराडी, नाइमन, व्हेबर, क्लार्क मॅक्सवेल हांणी लायलो आनी भौतिकीशास्त्रांक आदार करपी सिध्दांत मांडले. उपरांतच्या विज्ञानिकांनी विद्युत् उर्जेच्या वेगवेगळया आंगांचो अभ्यास करून 'उष्मा - विद्युत्', प्रकाश विद्युत् चे सिध्दांत मांडले आनी रेडिओ, टेलिवीजन इलेक्ट्रोनिकी ह्या मळांचेर उदरगत सादपाक मदत केली. ल्हव ल्हव करून विद्युत् उर्जेचो वापर सगळयाच मळांर जावंक लागलो. सद्या मनशाच्या दिसपट्ट्या वेव्हारांत जायतेकडेन विजेचो वापर जावंक लागला. वीज निर्माण करपी विद्युत् - मोटर, उजवाड निर्मिती, एक्स रे, टेलीविजन, रेडियो, फ्रीज, वातानुकूलन, स्वयंचलीत मशीनां, अशा कितल्याशाच वाटांनी विजेचो उपेग जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**वीणा :** एक तंतुवाद्य. ऋग्वेदांत कांय कडेन वाण नांवाच्या वाद्याचो उल्लेख आसा. सायणाचार्यान वाण म्हणजे मरूद्वीणा वा मरूतांची वीणा अशें स्पश्टीकरण दिल्लें आसा. मरूत देव वीणा वाजयताले अशें वर्णन ऋग्वेदांत आसा. यज्ञाच्या वेळार सामगायनाक वीणेची साथ आसताली. वीणावादन करप्याक वीणावाद म्हळां. कांडवीणा ह्या वाद्याचो उल्लेख ऋग्वेदांत आनी काठव संहितेंत आसा. उत्तरकाळांतल्या संहितांनी आनी ब्राह्मण ग्रंथांत शततंत्री ह्या नांवान वीणेचो निर्देश केल्लो आसा. वाज संहितेंत पुरुषमेधाच्या वेळार बळी दिवपाच्या मनशांचे वळेरेंत वीणावाद हाचो आस्पाव केल्लो आसा. ऐतरेय आरण्यकांत वीणेच्या वेगवेगळया भागांचीं नांवां दिल्लीं आसात. छांदोग्योपनिशदाच्या आठव्या खंडांत वीणेचे वेगवेगळे प्रकार सांगिल्ले आसात. ब्राह्मण वाङ्मयांत आनी श्रौतसूत्रांत गोधा, काण्डमयी, पिच्छोरा, वक्र, कपिशीर्ष्णी, पिशील, अलाबू सारकिल्ल्या वीणाप्रकारांचो निर्देश सांपडटा.

रामाचे पूत लव आनी कुश हांणी वीणेचे साथीचेर रामायणाचें



सरस्वती वीणा

गायन केलें अशें रामायणाच्या बालकांडांत म्हळां. हरिवंशांत नारदाच्या वल्लकी वीणेचो उल्लेख आसा. तशेंच वेगवेगळ्या पुराणांतय नारदाच्या वीणावादनाचो उल्लेख आयिल्लो आसा.

वीणेची निर्मिती महादेवान केल्ली आसून तिचे सगळे अवयव देवतामय आसात, अशी दंतकथा प्रचलित आसा.

सरस्वतीवीणेचो आविश्कार देवी सरस्वतीन केला अशें मानतात. हें वाद्य दक्षिण भारतांत चड प्रचलित आसा.

भारताच्या नाट्यशास्त्रांत चित्रा आनी विपंची हे वीणेचे मुखेल प्रकार सांगिल्ले आसात. घोषा, कच्छपी सारकिल्ले हेर गौण प्रकारय त्या काळांत प्रचलित आशिल्ले. चित्रा आनी विपंची ह्यो वक्राकार वीणा आशिल्ल्यो. विपंची णव तारांचीय आसताली. सात स्वरांखातीर सात तारो आनी अंतर गांधार आनी काकली ह्या दोन स्वरांखातीर दोन तारो चड आसताल्यो. सनपयलीं दुसऱ्या शेंकड्यापसून इ.स. च्या ८ वा शेंकड्यामेरेनच्या काळांतल्या भारतीय शिल्पांत अशो वीणा दिसतात.

नाट्यशास्त्राचो टिकाकार अभिनवगुप्त आनी ताचो अनुयायी शार्ङ्गदेव हाणें नाट्यशास्त्रांतली मुखेल वीणा २१ तारांची मानल्या आनी तिका मत्तकोकिळा हें नांव दिलां.

मध्ययुगांत संगीत मकरंद, संगीत रत्नाकर, संगीत समयसार, संगीत पारिजात, वाद्यरत्नकोश, रसकौमुदी सारकिल्ले जायते ग्रंथ रचले. तातूंत जायत्या वीणांचीं नांवां दिल्लीं आसात.

शार्ङ्गदेवान संगीत रत्नाकराच्या सव्या म्हणजे वाद्याध्यायांत कांय वीणांचें विस्तारीत वर्णन केल्लें आसा -

**एकतंत्री :** हे वीणेची दांडी खैरीच्या लांकडाची, वाटकुळी, सरळ आनी गुळगुळीत केल्ली, तीन हात लांबायेची आसून तिचो परीघ एक वीत आनी भितरली पोकळी १५ आंगळां आसता. दांडयेच्या एका तोंकाक १७ आंगळां सोडून ६० आंगळां घेराचो एक दुदी बांदिल्लो आसता. दुसऱ्या तोंकाक ककुभ नांवाचो लांकडी चवकोनी कुडको आसून ताचेर धातुची पट्टी बसयल्ली आसता. ताचेपसून तयार केल्ली तार ककुभाचे वयले पट्टेंतल्यान व्हरून ताणून बांदिल्ली आसता. हिका हेर वीणांची आद्यविणा मानल्या. तिचें दर्शन आनी स्पर्श हे भोग आनी मोक्ष दिवपी आसात अशेंय म्हळां. सगळ्या देवतांक उपेगी आशिल्ल्यान हिका पवित्र मानल्या.

**किन्नरी :** हें पुर्विल्लें लोकवाद्य आसून तिका कांय पड्डे आसताले. मध्य काळांतली किन्नरी वीणा हें तिचेंच विकसित रूप. ल्हान आनी व्हड अशे तिचे दोन प्रकार आशिल्ले. ल्हान किन्नरीक दोन दुदी आनी व्हडलेक तीन दुदी आसतात.

**मत्तकोकिला :** हिका महती अशेंय म्हण्टात. ही २१ तारांची आसता. मध्ययुगांत ही वीणा प्रचारांत आशिल्ली.

**आलापिनी :** हे वीणेची दांडी भितरल्यान पोकळ अशा नीट कोंड्याची आसताली. हिचो ककुभ २ आंगळां लांब आनी अर्दें आंगूळ रूंद आसतालो.

**पिनाकी :** ही वीणा धोणवाच्या आकाराची आसून तिची दांडी ४१ आंगळां लांब आनी २.२५ आंगळां दाट आसताली. तिचें वाजोवप धनुकलीन करताले. तिका एकच दुदी आसतालो.

**रूद्रवीणा :** हिका तंजावर वीणा अशेंय म्हण्टात. हिची दांडी आनी एके वटेचो दुदयासारको भाग पणसाच्या लांकडापसून तयार करतात. दुसऱ्या तोंकाक एक ल्हान दुदी लायिल्लो आसता. हिका २४ पड्डे आसून ४ मुखेल तारो आनी तीन वटांच्यो तारो आसतात. मुखेल दोन तारो पितळी आसून बाकिच्यो पांच तारो पोलादी आसतात. दांडयेच्या दुसऱ्या तोंकार शींवाचें वा हेर जनावराचें तोंड आसता.

**कछवा :** हिका काश्यपी, कच्छपी, बहार अशींय नांवां आसात. दुदी आडवो कापून ताच्या सकयल्ल्या भागाचेर फळी बसोवन तिका दांडी जोडिल्ली आसता. दुदयाचो आकार कांसवाचे फाटीसारको दिसता, देखून ह्या वाद्याक कछवा हें नांव मेळळां. हाचो आवाज गंभीर आसता.

**विचित्रवीणा :** हे वीणेची दांडी पोकळ आनी सरळ कोंड्याची वा लांकडाची आसता. हे वीणेक चार मुखेल तारो आनी चोवीस पड्डे आसतात. वीणेच्या दोन दुदयांमदलें अंतर २७ ते ३० इंच आसता. दुदयाचेर लांकडाचें कातीव आवरण आसता, ताका गळो वा करो म्हण्टात. ज्या जाग्यार तारो आडखळायतात ताका तारदान वा मोगरो म्हण्टात. वीणेच्यो खुंटयो खैराच्या लांकडाच्यो करतात. एक दुदी खांदार आनी दुसरो मांडयेर घेवन हें वाद्य वाजयतात. वाजोवपाखातीर नखीचो वा मुद्दाम वाडयल्ल्या नाखटाचो उपेग करतात.

उत्तर भारतीय आनी दक्षिण भारतीय वीणांत मातशें वेगळेपण आसा. उत्तर भारतीय वीणा म्हणजे नारदीय वीणा. दक्षिण भारतांत सरस्वती वीणा प्रचलित आसा. सरस्वती वीणेची रचणूक सादी आसा. तिचे स्वर चड खर आसतात. उत्तर भारतीय वीणेची रचणूक घुस्पागोंदळाची आसली तरीय तिचे स्वर सामके नाजूक आसतात. भारतीय संगीत शास्त्रज्ञांनी वीणेक साक्षात सरस्वतीच मानल्या. ताकालागून तिची साधना पवित्र वातावरणांत करपाची प्रथा आसा. संगीत सभेंतलें वीणावादनय विधिपूर्वक करतात.

मध्ययुगांत तानसेनाचें घराणें, ताचें दौहित्र घराणें आनी मेवाती घराणें हीं तीन घराणीं वीणावादनाखातीर चड प्रसिद्द आशिल्लीं. तांची परंपरा ह्या शेंकड्याचे सुरवेक पसून चालू आशिल्ली.

सांची, भरहूत, पितळखोरें, अमरावती, नागार्जुनकोंडा, पवाया, बोधगया, बादामी, अजंठा, पट्टदकल, वेरूळ, भुवनेश्वर सारकिल्ल्या जाग्यांनी आशिल्ल्या शिल्पांनी वीणेचीं वेगवेगळीं रुपां पळोवपाक मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद - वाद्य आनी वाद्य वर्गीकरण

**वीरभद्र - (१) :** विधि नाचाचो एक प्रकार. सांगें, फोंडें, बोरी, सावर्डें हांगा वर्सुकी विधी म्हणून शिगम्याच्या शेवटाक वीरभद्र जाता. सांखळेच्या विठ्ठलाच्या देवळांत चैत्र पुनवेक वीरभद्र जाता. थंयचें वीरभद्राचें स्वरूप हेर वीरभद्रापरस मातशें वेगळें आसा.

वीरभद्र म्हणून नाचपी मनीस परंपरेन थारिल्ल्या घराण्यांतलो आसता. पुनवेच्या पयलीं तीन दीस हो मनीस व्रतस्थ आसता. उपास करप, दुसऱ्यान केल्लें जेवण घेवप ना, जमनीचेर न्हीदप सारकिल्लीं पथ्यां त्या मनशाक पाळचीं पडटात. वीरभद्रान भेस करपाचीय सुवात परंपरेन थरिल्ली आसा. पुनवेचे मध्यराती वीरभद्र करपी मनीस थंय वता. थंय देवाचें मागणें जाता. सांगणें करून नाल्ल फोडटात. मागीर तो मनीस जमनीचेर उदारो न्हीदता. परंपरेन थारिल्लो मनीस पारंपारीक पद्धतीन रंगभुशेक सुरवात करता. कथकली ह्या केरळांतले पद्धतीचे रंगभुशेंत उग्र राकेस दिसचो अशें ताचें तोंड रंगयतात. वेशभुशेंत कमराक धोळ केल्लें कापड, राकेसाक सोबतलीं अशीं हेर वस्त्रां, हात, दंडाक आभुशणां, तकलेक म्हैसुरी पद्धतीची पगडी अशी ही वेशभुशा आसता. वीरभद्राचे फाटले वटेन कोंडयाच्या कामटांनी तयार केल्लो कपडो आनी कागद हांणी रंगयल्ली व्हडली प्रभावळ बांदिल्ली आसता. ताच्या दोन हातांत दोन उक्त्यो तलवारी दितात. वीरभद्राचें सजोवप जालें म्हणजे परत देवाक सांगणें करप, नाल्ल फोडप हे विधी जातात.

दुसरे वटेन देवळांत दक्षयज्ञध्वंसाचें आख्यान आशिल्लें नाटक सुरू आसता आनी त्याचवेळार देवळापसून कांय अंतरावयल्यान श्रृंगारिल्ली वीरभद्राची मिरवणूक सुरू जाता. वीरभद्रावांगडा दोन वटांनी कांय मनीस फाटली प्रभावळ सांबाळीत आसतात. घोशणा दिवपी हेर मनीस, दोन दिवट्यो, वाजोवपी आनी हेर सरंजामावांगडा फांतोडेच्या अदमासाक मिरवणूक सुरू जाता. वाद्यां वाजत आसतात. एका खास अशा जाग्यार येवन तो रावता. वांगडचो मुखेली वीरभद्रामुखार येवन घोशणा दिता. हे घोशणेक 'होरावणी' अशें म्हण्टात. घोशणेच्या वेळार वीरभद्र एका जाग्यार उबो रावन मान हालयता. घोशणा सोंपली म्हणजे वाद्यांचे साथीचेर ताचो नाच सुरू जाता. थरावीक जाग्याचेर वीरभद्र आयलो म्हणजे मंडपांत नाटक करपी पात्रां पोशाख उतरावन पळून वतात. नाटक बंद पडटा. हातांतल्यो तलवारी नाचयत वीरभद्र मंडपांत येता. थंय तो रणनाच करता. नाचाचीं थरावीक आवर्तनां पुराय जाल्याउपरांत एका खाशेल्या जाग्याचेर वीरभद्र जमनीर पडटा. वांगडचे लोक ताका सांबळटात. मागीर ताच्या तोंडाचेर देवाचें तीर्थ फाफुडटात. देवळांतले हेर विधी जातात आनी वीरभद्राचो उत्सव सोंपता.



शिगम्यांत हेर कडेन जावपी वीरभद्र कांय वेगळेपण सोडल्यार सांखळेच्या वीरभद्राभाशेन आसा. बाकीकडेन खंयच नाटकाचो वांटो नासता. सांग्यार जावपी वीरभद्र कोसंबे ह्या घराण्याच्या घरामुखार नाचता. नाचाची पद्दत सगळे कडेन सारकीच आसा. तशेंच दर एक घोशणा जातकच 'हा उदो' अशीं हेर मनशां साथ दितात.

वीरभद्राची वेशभूशा, नाचाची पद्दत, घोशणा हे सगळे प्रकार कानडी पद्धतीचे आसतात. कर्नाटकांतल्या तुमकूर ह्या जाग्यांत जावपी वीरभद्र आनी गोंयांत जावपी वीरभद्र हातूंत सारकेंपण आशिल्ल्याची म्हायती मेळळया. वीरभद्र हो प्रकार कर्नाटकांतल्यान इतिहासकाळांत केन्नातरी गोंयांत आयलो आसुंये अशें मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**वीरभद्र - (२) :** एक शिवपार्षद. पद्मपुराणांत तो शिवाच्या घामापसून जल्मलो आनी महाभारतांत तो शिवाच्या तोंडांतल्यान जल्मलो अशो वेगवेगळ्यो कथा आसात. ताचे संबंदीं मुखेलपणान कथा सांगप जाता ती अशी -

स्वायंभुव मन्वंतरांत दक्षप्रजापतीन एक यज्ञ केलो. ताचे धुवेन सतीन ताच्या मनाआड शिवाकडेन लग्न केलें म्हणून दक्षान तांकां दोगांकय यज्ञाक आपोवणें दिलें ना. शिवाचें न आयकता सती एकटीच दक्षागेर गेली. दक्षान सतीक आनी शिवाकय अपमानास्पद उतरां दिलीं. देखून तिणें यज्ञाच्या मंडपांत योगाग्नी प्रज्वलित करून आपलो देह जळयलो. शिवाक ही बातमी कळटकच खूब राग आयलो आनी ताणें आपल्यो जटा आपटिल्यो. तातुंतल्यान वीरभद्राची उत्पत्ती जाली. वीरभद्राक रोखडोच शिवान दक्षयज्ञाचो विध्वंस करपाक सांगलें. तो रूद्र गणांवांगडा थंय गेलो आनी देवांवांगडा झूज करून ताणें यज्ञाचो विध्वंस केलो. शेवटाक दक्षाची तकली कापून ताणें यज्ञकुडांत उडयली.

ह्या विध्वंसाउपरांत वीरभद्र सगळया सैमाचो संहार करपाक फुडें सरलो. तेन्ना शिवान ताका शांत केलो आनी तूं मळबांतल्या ग्रहमालिकेंतलो मंगळ नांवाचो ग्रह जातलो आनी लोक तुजी पुजा करतले असो वर दिलो.

आपल्या पराक्रमान वीरभद्र शिवगणांचो सेनापती जालो. शिवान त्रिपूरदाह केलो त्यावेळार आनी जालंधराकडेन झूज केलें तेन्ना ताणें बरोच पराक्रम दाखयलो.

वीरभद्र हो राकेसांचो संहारक आनी देवांचो राखणदार आशिल्लो. एक खेपे कश्यपादी सगळे ऋशी आनी देव दावाग्नींत जळून मेले तेन्ना ताणें मंत्रसिध्द भस्माच्या आदारान तांकां जिवीत केल्ले. तो पार्वतीचो अपुरबायेचो सेवक आशिल्लो. तशेंच विष्णुन नरसिंहाचो अवतार घेतिल्लो तेन्ना वीरभद्रान ताचें नियमन केल्लें अशो ताचे संबंदीं कथा आसात.

कोंकणांत जायत्या जात्रांनी मुखेल जात्रा जाल्याउपरांत दक्षयज्ञाचो प्रवेश करतात आनी वीरभद्राचें सवंग हाडटात. त्या वेळार तें सवंग घेवपी पात्राच्या आंगांत वीरभद्राचो संचार जाता अशी समजूत आसा.

महाराष्ट्रांत घारापुरी आनी वेरूळ हांगाच्या गुहादेवळांनी वीरभद्राच्यो मूर्ती पळोवपाक मेळटात. त्यो आठ भुजांच्यो आनी रौद्रस्वरुपी आसात.

शिवाचो आवडटो पार्षद म्हणून वीरशैव पंथांत वीरभद्राक म्हत्वाचें स्थान मेळ्ळां.

- कों. वि. सं. मं.

**वीरशैव संप्रदाय :** कर्नाटकांतल्यान सुरू जावन त्याच प्रदेशांत वाडिल्लो एक शैवसंप्रदाय.

वीरशैव पंथाचो माहेश्वर पंथांतल्यान उगम जालो. हो माहेश्वर पंथ तमिळनाडूंत प्रचलित आशिल्लो.

ह्या वीरशैव मताच्या उगमाचो सोद घेवपाक उपेगी पडटले अशे दोन तांब्यापटे उपलब्ध आसात. तातुंतलो पयलो तांब्यापटो बागेवाडीलागच्या मनगोळी खेड्यांत सांपडला. ताचो काळ इ.स. ११५६ तलो आसा. बसवेश्वर हो रेवणदासाचो नातू आनी चंडिरामाचो पूत आशिल्लो आनी तो सदगुणी आनी सच्छील आशिल्लो अशें तातूंत बरयल्लें आसा.

दुसरो तांब्यापटो धारवाड जिल्ह्यांतल्या अडलूर गांवांत सांपडला. तो इ. स. १२०० तलो आसा. तातूंत एकांतद रामय्या ह्या शिवभक्ताचें वर्णन आसा.

वयल्या दोनूय तांब्यापटयांवयल्यान रामय्या आनी बसवेश्वर हे दोगय त्या काळांतले आशिल्ले म्हळयार इ.स. १२ व्या शेंकड्यांत जल्मल्ले आनी ते म्हान धर्मसुदारक आशिल्ले म्हणपाचें कळटा. ह्या दोगांयभितर रामय्या हो वीरशैव मताचो संस्थापक आशिल्लो. तशेंच बसवेश्वर हो ताचो संस्थापक नासून तो सुदारक आशिल्लो.

सुरवातीक हो संप्रदाय म्हळयार गुढवादी पंथ आशिल्लो. बसवेश्वरान वीरतेचो स्विकार करून एके वटेन शैव पंथांतल्यो विकृती पयस केल्यो आनी दुसरे वटेन त्या वाठारांतल्या जैनांचो प्रभाव उणो करून लोकांक शिवभक्ती वटेन ओडले. ताकालागून मूळ संस्थापकाचें म्हळयार रामय्याचें नांव फाटीं पडून बसवेश्वराचें नांव मुखार आयलें. वीरशैव पंथ हो माहेश्वर पंथांतल्यान जल्माक आयलो. त्या पंथान प्रतिपादन केल्ल्या सिध्दांताचेंच तें विकसीत रूप आसा. हो पंथ तमिळनाडूंत प्रचलित आशिल्लो. त्या पंथाचे लोक आपल्या पंथाक वीर माहेश्वर म्हण्टात. वीर शैवांचो षट्स्थल सिध्दांतय मूळ माहेश्वरांचोच आसा. तमिळनाडूंतल्या तिरुमूलर ह्या शैवाचार्यानय आपल्या ग्रंथांत षटस्थलांचें वर्णन केल्लें आसा.

बसवेश्वर आनी अल्लमप्रभू हांकां ह्या पंथाचे अध्वर्यू मानतात. त्या काळांत ईश्वरभक्ती आनी ईश्वरपुजा हो उच्चवर्णीय गिरेस्तांची मक्तेदारी जाल्ली. ही मक्तेदारी ना करून सुदारणा घडोवन हाडपाखातीर बसवेश्वप्रभृती वीरशैवांनी पंथीय चळवळ सुरू केली.

पंथप्रचाराचें श्रेय मुखेलपणान बसवेश्वर आनी अल्लमप्रभू हांकां आसलें तरी ताचो चडसो वांटो तांच्या दादले - बायलो शिश्यांक वता. ह्या शिश्यांक शिवशरण म्हण्टात. बसवेश्वरान कल्याणनगरींत शिवानुभवमंडप नांवाची एक संस्था निर्माण केली. अल्लमप्रभू हो ते संस्थेचा जाण्टो आनी व्हड आचार्य आशिल्लो. त्या मंडपांत थारायल्ल्या वेळार शिवशरण एकठांय जमताले आनी धर्मीक, समाजीक - अध्यात्मीक विशयांचेर चर्चा करताले. तांच्या विचार मंथनांतल्यान वीरशैव मताक रूप आनी आकार मेळूंक पावलो.

शिवशरणांच्या चर्चांचें आनी अणभवांचें सारसर्वस्व म्हळ्यार ताणें निर्माण केल्लें वचनसाहित्य. शिवशरणान एकनिश्ठेन वीरशैव तत्त्वज्ञानाचो प्रसार केल्ल्यान कर्नाटकांत त्या पंथाक लारवांनी अनुयायी मेळ्ळे.

वीर, नंदी, भृंगी, वृषभ आनी स्कंद ह्या पांच गणाधीश्वरांच्या गोत्रांत वीरशैवांची उत्पत्ती जाली. तांची धारणा अशी - अखिल जगताचो कर्तो, भर्तो, हर्तो पंचब्रह्मरूप शिव आसा. जगताचें उपादान आनी निमित्त करपी तोच आसा. ताच्या पांच मूर्तींक मेळून पंचब्रह्म म्हण्टात.

वीर शैवांत तीन भेद आसात. ते अशे -

(१) सामान्य वीर शैवः षडध्वशोधनादिपूर्वक आनी शिवदीक्षा घेनास्तना फकत गुरूकृपेन शक्तीपातपूर्व कलशस्थापन, लिंगसंस्कार, भस्मधारण, रूद्राक्षधारण मंत्रोपदेस्वीकार आनी शिवलिंग धारण करून लिंगाचें आनी गुरूजंगमाची पुजा करपी आनी शिवेतर देवतांची पुजा ना करपी.

(२) विशेश वीरशैव : कुंडमंडप गंगा आदी तीर्थांच्या पंच कळशांत रेणुका बी पंचायाचार्यांची पुजा, जलाधिवास धान्याधिवास आनी रूद्र पंचब्रह्मादी वैदिक मंत्रांनी षडध्वपूर्वक शिवलिंगाची पुजा करपी. तशेंच गुरूजंगमाची सेवा करपी, अष्टावरणसंपन्न आनी शिवाचारादी पंचाचार युक्त आसपी.

(३) निराभारी वीर शैव : जे आश्रमधर्माचो त्याग करून शारांत पांच राती आनी गांवांत एक रात रावन भक्तांक उपदेश करतात अशे योगी.

ह्या पंथांत दिक्षेचे वट्ट २१ प्रकार आसून तातुंतल्यो तीन दिक्षा मुखेल आसात. गुरूपदेश घेवन व्रताची प्रतिज्ञा करप ती वेददिक्षा, गुरूकडल्यान मेळपी ती मंत्रदिक्षा आनी वीरक्ता श्रम्यांक दितात ती क्रिया- दिक्षा.

नीलकंठभाष्य, श्रुतिसारभाष्य, सोमनाथभाष्य, रेणुकाभाष्य, शिवाद्वैतमंजरी, सिध्दांतशिखामणी, वीरशैव चिंतामणी, वीरमाहेश्वराचार्यसंग्रह, वीर शैवाचार कौस्तुभ, बसवराजीय हे वीरशैवाचे प्रमाण ग्रंथ आसात.

नीलकंठ शिवाचार्य, शिवयोगीश्वर, पंडिताराध्य, मंचणपंडित, षडक्षरदेव, मुप्पिनषडक्षरदेव, मग्गिमायदेव, नंजणार्य, निजगुणयोगी, वसवेश, चन्नबसव, अक्क महादेवी, नागांबा नीलांबा, हे ग्रंथकार आनी वचनकार ह्या पंथांत निर्माण जाले.

वेदान्त संप्रदायांत जशें अद्वैत, द्वैत हे संप्रदाय नामनेचे आसात. तसोच वीर शैवांचो शक्तिविशिश्टाद्वैत हो तत्त्वज्ञानसंप्रदाय प्रसिद्द आसा. वीरशैवांनी आपलो साधन मार्ग षट्स्थल सिध्दांताच्या रुपान मांडला. 'ॐ नमः शिवाय' हो तांचो उपासनामंत्र षडाक्षरी आसा. ताचेवयल्यान ताणें साधनमार्गाचे स पांवडे सांगल्यात. ह्या पांवड्यांचे वा स्थलाचे लिंगस्थल आनी अंगस्थल अशे मुखेल दोन भेद आसात. लिंगस्थल म्हळ्यार शिव आनी अंगस्थल म्हळ्यार जीव. साधकाचें हेंच परमसाध्य आसा. अंगाचो लिंगाकडेन सामरस्य प्राप्त करपाचो हो प्रवास रवाशेल्या पांवड्यांनी जायत आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**वृंदावन :** ब्रजमंडलांतलें एक पुण्यक्षेत्र. हें क्षेत्र मथुरा नगरीसावन ६ मैल उत्तरेक आसा. केन्नातरी हांगा तुळशींचें वन आशिल्लें म्हणून ह्या क्षेत्राक वृंदावन हें नांव मेळ्ळें अशी धारणा आसा. राधेच्या सोळा नांवांभितर वृंदा हेंय नांव आसा. तिणें कृष्णावांगडा हांगा क्रीडा केल्यात म्हणून ह्या क्षेत्राक वृंदावन हें नांव मेळ्ळें, अशें ब्रह्मवैवर्त पुराणांत म्हळां. ब्रजमंडलांतल्या सगळ्या वनांभितर वृंदावन सगळ्यांत श्रेश्ठ मानतात. हांगाच्या लीलास्थलांत कालियाडोह, वंशीवट, रासचबुतरो, केसीघाट, राधाबावडी, दावानलकुंड, ब्रह्मकुंड आनी धीरसमीरघाट ह्या थळांची चड नामना आसा.

वृंदावनांतलीं कांय मुखेल देवळां अशीं आसात - १) गोविंददेव हें देवूळ सगळ्या देवळांभितर पोरनें म्हळ्यार इ.स. च्या १६ व्या शेंकड्यांतलें. तांबड्या फातरांच्या ह्या देवळाची स्थापत्य कला पळोवपासारकी आसा. पूण ह्या देवळांतली पोरनी मूर्त जयपूरांत आसून ह्या देवळांत नवी मूर्त आसा. २) मदनमोहन हें देवूळ रामानूज संप्रदायाचें आसून ताच्या प्राकारांत एक तळें आनी ऊंच भांगराचो खांबो आसा. देवळालागसारच गौडीय भक्तांचें एक समाधी थळ आसा. ३) बाँकेबिहारी हो देव हरिदासस्वामींचो उपास्य आशिल्लो. ताचें वृंदावनांत मांहात्म्य आसा. ४) गोपेश्वर महादेव ह्या देवान रासोत्सवांत वांटो घेवपाखातीर गोपवेश धारण केल्लो. ५) निधिवन हें एक सैमान नटिल्लें सोबीत थळ आसून हांगा स्वामी हरिदास आनी ताचे शिश्य संगीत आनी काव्य हांचे साधनेंत गुल्ल आसतात. हांगा स्वामी हरिदास, विठ्ठलविपुल, भगवत रसिक ह्या भक्तांच्यो समाधी आसात.

हरसानी लागसार महाप्रभू वल्लभाचार्य, विठ्ठलनाथ, गोकुलनाथ आनी दामोदरदास हांच्यो बसका आसात. अद्वैतस्वामीची तपोभूंय, अद्वैतवट, चार संप्रदायांच्यो छावण्यो, उडियाबाबाचो आश्रम हीं थळां लागसारच आसात. हरिराम व्यास हाची समाधी, रुपसनातनाची भजनकुटी, चंद्रसखीचो कुंज, ग्वालजीकी हवेली आनी राधाचरणस्वामीचें पुस्तकालय हीं हांगाचीं पळोवपासारकीं तीर्थथळां आसात. हांगा धर्मशाळा, आश्रम, संकीर्तनघरां खूब आसात.

भागवत, पद्मपुराण, स्कंदपुराण, नारद पांचरात्रांतले श्रुतिविद्या संवाद, बृहद्‌ब्रह्मसंहिता ह्या संस्कृत ग्रंथांनी वृंदावनाचें माहात्म्य वर्णिलां. कृष्णकथांनी लीलावतारी कृष्णाच्यो वृंदावनलीला भक्तिभावान वर्णिल्यात.

वृंदावनलीलांचे कृष्णभक्तांनी दोन भाग केल्यात. एक अलौकिक लीला आनी दुसरी लौकिक लीला. अलौकिक लीलांभितर वृंदावनगमन, असुरवध, कालियदमन, दावानलप्राशन, गोवर्धनोध्दारण ह्या लीलांचो आस्पाव जाता. लौकिक लीलांत गोचारण, राधासमागम, स्त्रीरुपधारण, पनघट लीला, वसंतक्रीडा, दानलीला, मानलीला, रासलीला हांचो आस्पाव जाता. वल्लभसंप्रदायाच्या कवींनी अलौकिक लीलांचें शब्दांकन केल्लें आसून मधुराभक्तीच्या सांप्रदायिकांनी कृष्णाच्यो लौकिक लीला गायल्यात.

कृष्णभक्ती संप्रदायांत वृंदावन हें राधा - कृष्णाची रासस्थली आनी नित्य विहाराची सुवात मानल्या. तांचे नदरेन वृंदावन हें भौतिक आसुनूय शाश्वत आसा. संत चरणदासान आपल्या ब्रजचरित्रांत वृंदावनाच्या प्रकट आनी अप्रकट रुपांचें वर्णन करतना म्हळां तें अशें -

पुरुषोत्तम प्रभु लीलाधारी वृंदावन में सदा विहारी ।<br>
निजधामकी कहियत शोभा वृंदावनमें रहे अलोभा ।<br>
दिव्य दृष्टि बिनु दृष्टि न आवे सकल पुराण वेद वो गावै ।।

**अर्थ** - पुरुषोत्तम प्रभू जो श्रीकृष्ण तो वृंदावनांत सदांच विहार करीत आसता. तेरवातीर ह्या निजधामाची सोबा वर्णीत वृंदावनांत निर्लोभ वृत्तीन रावचें. पूण दिव्य नदरेबगर वृंदावनाचें अलौकिकत्व दिसचें ना, अशें सगळे वेद आनी पुराणां वृंदावनाचें माहात्म्य गातात. सूरदास म्हण्टा -

माधो, मोहि करो वृंदावन रेनु<br>
जिहि चरननि डोलत नंदनंदन<br>
दिन दिन प्रतिदिन चारत धेनु

**अर्थ** - हे माधवा, सदांच गायो चारताना तुजे पांय भोंवतात, त्या वृंदावनाचे मातयेंतलो म्हाका एक रेणू कर. तो फुडें म्हण्टा -

विप के खाय आगम जरो ।<br>
श्रीजमुनामें बूड हौं मरो ।<br>
वृंदाबन छाडो नहीं ।।

**अर्थ** - म्हाका वीख खावचें पडलें, उज्यांत जळचें पडलें वा यमुनेंत बुडून मरचें पडल्यार लेगीत हांव वृंदावन सोडचोना.

वृंदावनांत सगळ्या वैशणव संप्रदायाचीं केंद्रां आसात, हें वृंदावनाचें आनीक एक खाशेलपण आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वृश्चिक** : राशींच्या माळेंतली आठवी राशी. विशाखांचो चवथो चरण, अनुराधा आनी ज्येष्ठा मेळून ही राशी जाता. हे राशीचो स्वामी मंगळ आसा. ही राशी आर्द्र, स्थिर, बहुप्रसव आनी स्त्रीत्वदर्शक आसा. हिचो अंमल गुह्येंद्रियांचेर चलता. हे राशींत केतू उच्चीचो आसता. बळ, धैर्य,



एकाग्रता, चोरखपणां, उत्कट निश्ठा, प्रामाणिकपण हे वृश्चिक राशीचे गूण आसात. तशेंच क्रूरत्व, दुबावी स्वभाव, दुस्वास, प्रतिश्ठेचो हव्यास हे राशीचे दोश आसात. हे राशीचेर जल्मुपी मनशांत हे गूण - दोश दिसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**वेंकटगिरी वराहगिरी** : (जल्म : १० ऑगस्ट १८९४, ओरीसा; मरण : २४ जून १९८०).

भारताचो चवथो राश्ट्रपती. कामगार वर्गाचो फुडारी म्हूण ताची नामना आसा. वेंकटगिरीचो जल्म ओरीसा राज्यांतल्या बुरहानपूर गांवांत एका मध्यम वर्गीय घरांत जालो. ताच्या बापायचें नांव श्री जोगेया पंतुल. गिरीन उंचेलें शिक्षण मद्रास विद्यापिठांतल्यान घेतलें. उच्च शिक्षण घेवपाखातीर बापायन ताका इंग्लंडाक वचपाचो आग्रह केलो. पूण गिरी उच्च शिक्षण घेवपाखातीर आयरलँडाक गेलो.

आयरलँडाक शिकता आसतनाच ताणें भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेतलो. त्यावेळार आयरलँडाचीय स्थिती भारतासारकीच आसली. आयरलँडाचेरच ब्रिटिशांचो शेक चलतालो. गिरीन थंय 'समान अधिकार' ह्या नांवान आंदोलन चलयलें. थंयच्यान ताणें भारतियांचेरय जावपी अत्याचारांआड आवाज उठयल्लो. त्याच वेळार ताणें 'दक्षिण आफ्रिका का आतंक' हें पुस्तक बरयलें. तातूंत ताणें ब्रिटिशांचे जुलमी राजवटीचेर भर दिल्लो. त्या पुस्तकाच्यो दोन लाख प्रती छापून, त्यो सगळेकडेन प्रसारीत केल्यो. ब्रिटिशांनी ह्या पुस्तकाच्या लेखकाक धरपाचे खूब यत्न केले पूण तांकां अपयश आयलें.

१९१४त गांधीजी जेन्ना इंग्लंडाक गेल्लो तेन्ना गिरी ताका मेळपाक गेलो. थंय गांधीजीन गिरीन चलयल्ले स्वातंत्र्यचळवळीची खूब तोखणाय केल्ली आनी ताचेर आनीक कार्यां सोंपयलीं. त्यावेळावयलें गिरीचें लिखाण आनी स्वातंत्र्य चळवळीचो वावर पळयल्यार ताचो जहाल पंगडांत आस्पाव जातालो. पूण उपरांत गांधीजीचे विचार सरणेन प्रभावित जावन तो गांधीजीचो अनुयायी जालो. ब्रिटिशांनी 'आफ्रिका का आतंक' ह्या पुस्तकाच्या लेखकाक धरपाचे यत्न चालूच दवरिल्ले. निमाणेकडेन तांकां गिरीचें नांव कळटकच तांणीं ताचे आड वॉरंट काडलो. वॉरंट काडिल्ल्याची खबर गिरीक कळटकच तो आयरलँड सोडून भायर वचपाचे तयारेक लागलो. ताणें अमेरिकेक वचपाचो बेत रचलो. पूण ताचे पारपत्र (पासपोर्ट) मेळूंक नाशिल्ल्यान तो लिपचोरयां भोंवपाक लागलो. तशेंच ताणें आपले घरांतले पुरावे नश्ट केल्ले. देखून ब्रिटिशांनी ताच्या घरांचेर धाड घाली तेन्ना तांकां कांयच मेळ्ळें ना. तरीपूण तांणी गिरीक जाता तितले बेगीन आयरलँड सोडून वचपाचो आदेश दिलो.

वेंकटगिरी भारतांत आयल्या उपरांत ताणें वकालत सुरू केली. १९४२ त गांधिजीच्या फुडारपणाखाल सुरू जाल्ल्या 'असहयोग

आंदोलनां'त वांटो घेतिल्लो. हाका लागून ताका बंदखणीची ख्यास्त जाली. सुरवेक ताका अमरावती जेलींत दवरलो. उपरांत ताका चोरयां व्हरून वेल्लोर बदखणींत दवरलो. बंदखणींतल्यान सुटल्याउपरांत ताणें आपल्याक पुरायपणान भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींत ओंपून घेतलो. तेखातीर ताणें आपली वकालतय सोडून दिल्ली.

भारताक स्वातंत्र्य मेळळया उपरांत ताका श्रीलंकेचो भारतीय उच्चायुक्त म्हूण नेमलो. १९५७त ताची उत्तर प्रदेशाचो राज्यपाल म्हूण नेमणूक जाली. जाल्यार १९६५त तो म्हैसूरचो राज्यपाल जालो. गिरीन मद्रास मंत्रिमंडळांतय दोन खेपे मंत्रीपदाचेर काम केलां. १९६७त तो भारताचो उपराष्ट्रपती जालो.

डॉ. झाकिर हुसैनाक राष्ट्रपती जावन दोन वर्सांनीच मरण आयल्या उपरांत, राष्ट्रपती पदाखातीर मध्यवर्ती वेंचणूक जाली. तातूंत वराहगिरी वेंकटगिरीक जैत मेळोवन तो भारताचो चवथो राष्ट्रपती जालो. २४ ऑगस्ट १९७४ दिसा ताचो पांच वर्सांचो कार्यकाळ सोंपलो.

- कों. वि. सं. मं.

## वेंकटमाधव : (इ. स. ११ वो शेंकडो).

ऋकसंहितेचो एक भाश्यकार. ताणें ऋग्वेदाचेर दोन भाश्यां बरयल्यांत असो कांय लोकांचो तर्क आसा. पयल्या भाश्याच्या, पयल्या अध्यायाच्या शेवटाक वेंकटमाधवान आपली वळख करून दिल्या; त्या प्रमाण ताच्या बापायचें नांव वेंकटार्य आनी आवयचें नांव सुंदरी अशें आशिल्लें. ताका वेंकट आनी गोविंद नांवाचे दोन पूत आशिल्ले. तो कौशिक गोत्री आशिल्लो आनी चोल देशांत तो रावतालो.

ताच्या भाश्याचें नांव ऋगर्थदीपिका आसून तें सामकें ल्हान आसा. ताणें फकत मंत्रांतल्या पदांचीच व्याख्या केल्या. ताणें बरेच कडेन ब्राह्मण ग्रंथांतलीं दिल्यांत. वेदांतलो गूढ अर्थ समजून घेवपाखातीर ब्राह्मण ग्रंथाचो बरोच उपेग जाता, अशेंय ताणें सांगलां. ऋग्वेदाचो अर्थ कोणाक कितलो कळटा हाचे विशींचो ताचो एक श्लोक गाजला, तो म्हळयार -

संहितायास्तुरियांश विजानन्त्यधुनातना : ।
निरुक्तव्याकरणयोरासीत् येषां परिश्रम :।।
अथ ये ब्राह्मणार्थानां विवेक्तार : कृतश्रम : ।
शब्दरीतिं विजानन्ति ते सर्व कथयन्त्यपि ।।

**अर्थ** - जांणी फकत निरुक्त आनी व्याकरण हांचो अभ्यास केल्लो आसा, अशा जार्विल्ल्या लोकांक ऋकसंहितेचो फकत चवथो वांटो (एक चतुर्थांश) अर्थ समजता. पूण जांणी ब्राह्मण ग्रंथाच्या अर्थाची फोडणिशी कश्ट घेवन केल्या, अशो शब्दरीती जाणा जावपी विद्वानांकय वेदाचो पुराय अर्थ समजता आनी ते तो सांगतात.

वेंकट माधवान वेदार्थाचें ब्राह्मण ग्रंथांक फावो अशें प्रतिपादन केलां. वैदिक मंत्राचो अर्थ समजून घेवपाच्या वावरांत ह्या भाश्यांचो चड बरो उपेग जाता, अशें जाणकारांचें मत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## वेंकटरामन, रामास्वामी : (जल्म : ४ डिसेंबर १९१०, राजामाडम - तंजावर).

भारताचो आठवो राष्ट्राध्यक्ष. ताच्यो राष्ट्राध्यक्षाचो कार्यकाळ २५ जुलय १९८७ ते २५ जुलय १९९२ आसा. भारताचो राष्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून येवपी तो सगळयांत जाण्टे पिरायेचो. ताचें मुळावें आनी उंचेलें शिक्षण मद्रास शारांत जालें. अर्थशास्त्रांत पदव्युत्तर पदवी घेतल्या उपरांत, ताणें मद्रास लॉ कॉलेजींतल्यान कायद्याचें शिक्षण घेतलें.

वेंकटरामन ल्हानपणासावनच राष्ट्रीयतेचे भावनेन प्रेरीत जाल्ल्यान ताणें ब्रिटिश सरकारी कामाक न्हयकार दिवन वकालत सुरू केली. १९३३ मेरेन ताणें मद्रासच्या उच्च न्यायालयांत खूब नामना जोडली. १९३८ त वेंकटरामनाचें जानकी देवी कडेन लग्न जालें.

वकालत करता आसतनाच तो राष्ट्रीय आंदोलनांनी वांटो घेवपाक लागलो. १९४२ त गांधीजीन जाहिर केल्ल्या भारत छोडो आंदोलनांत ताणें वांटो घेतिल्लो. उपरांत तो गांधिजीचो अनुयायी जालो. वकालत सोडून तो आंदोलनांनी सक्रीय वांटो घेवपाक लागलो, देखून ब्रिटिश सरकारान ताका दोन वर्सां नजर कैदेंत दवरलो. १९४४ त बंदखणींतल्यान सुटल्याउपरांत तमिळनाडू कॉंग्रेस समितीची श्रम शाखेची संघटना ताणें आपल्या हातांत घेतली. १९४६ वर्सा ब्रिटिश सरकारान ताका मलाया आनी सिंगापुराच्या जपानी घुरये वेळार, जपानाक आदार केल्लो म्हूण अपराधी मानलो.

१९४७ ते १९५० मेरेन ताणें मद्रास प्रांतीय वकील म्हासंघाचो सचिव म्हूण काम केलें. वेंकटरामनान १९४८ त 'लेबर लॉ जर्नल' सुरू करून तातुंतल्यान तो कामगारांसंबंदींचे म्हत्वाचे निर्णय प्रकाशीत करपाक लागलो. ल्हव ल्हव कामगार संघटनांकडेन लागीं येवन, ताणें साबार कामगार संघटना स्थापीत केल्यो.

१९५० त तो स्वतंत्र भारताचे पयले संसदेचो वांगडी म्हूण वेंचून आयलो. १९५२ त न्युझीलँडांत आयोजीत केल्ल्या राश्ट्रमंडळ संसदीय सम्मेलनांत तो भारतीय संसदीय प्रतिनिधी मंडळाचो एक वांगडी आसलो. १९५७ त तो संसदेचो वांगडी म्हूण परतून वेंचून आयलो. पूण कांय दिसांनीच लोकसभेक सोडचीट दिवन तो मद्रास राज्य - सरकार मंत्रीमंडळांत आयलो. थंय ताणें १९५७ ते १९६७ मेरेन उद्देग, श्रम, सहकारिता, विद्युत्, पर्यावरण आनी वाणिज्य हीं खातीं सांबाळळीं. १९६७ त वेंकटरमणाक केंद्रीय येवजण आयोगाचो एक वांगडी म्हूण नेमलो. ताचेकडेन उद्देग, श्रम, विद्युत्, पर्यावरण,

संचार आनी रेल्वे हे विशय सोंपयल्ले. १९७१ मेरेन ह्या पदाचेर तो उरलो. १९७७ त तो दक्षिण मद्रास निर्वाचन क्षेत्रांतल्यान लोकसभेचेर वेंचून आयलो. १९८० त तो परतून लोकसभेचेर वेंचून येवन इंदिरा गांधी सरकारांत अर्थ मंत्री म्हूण नेमणूक जाली. १९८२ त ताका सुरक्षा मंत्री हें खातें मेळ्ळें. २२ ऑगस्ट १९८४ दिसा वेंकटरामन भारताचो उपराश्ट्रपती म्हूण वेंचून आयलो.

वेंकटरामन केंद्रीय मंत्री - परिशदेचे राजनितीविशीं समितिचो तशेंच अर्थीकविशीं समितीचो वांगडी, आंतरराश्ट्रीय मुद्रा कोश, आंतरराश्ट्रीय पुनरनिर्माण आनी विकास बँक आनी एशियाई बँकेचो गव्हर्नर म्हणूनय वावूरला. ताणें १९५३, १९५५, १९५६, १९५८, १९५९, १९६० आनी १९६१ वर्सा संयुक्तराश्ट्र म्हासभेंत भारताचो प्रतिनिधी म्हूण काम केलां. श्री रामस्वामी वेंकटरामन १६ जुलय १९८७ दिसा भारताचो आठवो राश्ट्रपती म्हण निर्वाचीत घोशीत केलें. २५ जुलय १९८७ दिसा सावन ताणें राश्ट्रपती पदाचो भार आपल्या हातांत घेतलो. एक व्यासंगी, अणभवी आनी पद दलीतांचो कैवारी म्हणून ताची ताचे राजकीय कारकिर्दींत नोंद जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**वेंगुर्लेकार, दत्ताराम नारायण :** (जल्म : २५ फेब्रुवारी १९१०, ओशेल - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी जालो. बसकांनी वांटो घेवप, पत्रकां लावप, राश्ट्रीय पुस्तिका वांटप असलीं कामां तो करतालो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी सुमार स म्हयने बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वेठबिगार :** एकाद्र्या मनशाक कसलोच प्रमाण मोबदलो दिना आसतना वा अल्पशा मोबदल्यांत ताचेकडल्यान जबरदस्तीन म्हळ्यार वेठीक धरून काम करून घेवप हाका वेठबिगार म्हण्टात. भारतांत पुर्विल्ल्या काळांत गांवगिऱ्या वाठारांतले जमीनदार, वतनदार हे मजुरांकडल्यान काम करून घेताले आनी तांकां कसलेच तरेचो प्रमाण मोबदलो दिनाशिल्ले. अशी वेठबिगार पद्दत जायतीं शतमानां मेरेन चालू आशिल्ली आनी ती वंशपरंपरेन चलताली. अर्थीक अडचणीवेळार गरीब लोक पयशेकारांकडल्यान (जमीनदार वतनदार) रीण काडटाले आनी तें फारीक करप कशेंच शक्य ना जाल्ल्यान ताच्या बदला अशा गरजूंकडल्यान फुकट कामां करून घेवपाची पद्दत अस्तित्वांत आयली आसूं येता. गुलामगिरींतल्यानय हे पद्दतीचो उगम जावपाची शक्यताय दिसता. झुजांत हारील्ल्या लोकांक नाईलाजान वेठबिगारी करची पडली आसूं येता. राजकीय विरोधकाक ख्यास्त म्हणून वेठबीगारीक लावपाच्यो घडणुको इतिहासांत घडपाची शक्यताय आसा.

भारतांतल्या बंगाल, बिहार, उत्तर प्रदेश, मध्यप्रदेश आदी वाठारांत जमीनदारी पद्दत कायम चालू आशिल्ली. थंय जमीनदार आपल्या कुळांकडल्यान वेठबिगारीचीं कामां करून घेताले. दक्षिणेकडल्या वाठारांत जमीनदारी नाशिल्ली. पूण वतनदारी प्रचलित आशिल्ली आनी वतनदार तशेंच जहागिरदार गरीब लोकांकडल्यान आनी दलित समाजाकडल्यान वेठबिगारीचीं कामां करून घेताले. दुसऱ्या गांवांत खबरो पावोवप, म्हाल व्हरप, शेतांत कामां करप अशा जायत्या कामांचो आस्पाव तातूंत जातालो. वेठबिगारी कांय कडेन वंशपरंपरेन चलिल्ली पळोवंक मेळटा. कांय कुटुंबां पिळग्यांच्यो पिळगी वेठबिगारीन काम करतालीं. आज्यान काडिल्ल्या रिणाखातीर नातू वेठबिगारी करपाच्योय देखी इतिहासांत मेळटात.

सरंजामशाहीच्या काळांत वेगवेगळेतरेन वेठबिगार पद्दत चालू आशिल्ली. भाटकार आपल्या कुळांकडल्यान आनी हेर रयतेकडल्यान आपल्या मालकी अधिकाराच्या बळग्यार पयशे दिनासतना कामां करून घेताले.

भारताच्या स्वातंत्र्या उपरांत राज्यघटनेन वेठबिगारीक बेकायदेशीर थारायली. सद्या भारतांत वेठबिगार पद्दत स्पश्टपणान बंद पडिल्ली आसा. तरी कांय गांवांत आनी कांय वेवसायांत वेठबिगार बेकायदेशीरपणान चालू आसा.

पयल्या म्हाझुजाउपरांत जायत्या देशांनी चडकरून जर्मनी, इटली, रशिया आदी देशांनी अर्थीक आनी राजकीय कारणांखातीर सक्तीची वेठबिगार पद्दत आपणायल्ली. ज्या मनशांविशीं प्रस्थापीत राजवटीक विरोध आशिल्ल्याचो दुबाव दिसतालो वा वंशीक तशेंच राश्ट्रीय नदरेन जाका नागरीक म्हणून रावपाची लायकी ना अशें मानताले. ताका धरून बरोच तेंप मेरेन वेठबिगारीक लायताले.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत गुलामगिरीच्यो वेगवेगळयो पद्दती ना करपाचें काम राश्ट्रसंघ करतालो. उपरांत तें संयुक्त राश्ट्रसंघटनेकडेन सोंपोवपांत आयलें. इ. स. १९४८ त संयुक्त राश्ट्र संघटनेन महासभेच्या तिसऱ्या अधिवेशनांत वेठबिगारांच्या हक्कांविशीं एक ठराव मंजूर केलो.

उपरांत आंतरराश्ट्रीय कामगार संघटनेन हेविशीं कांय उपाय सोदून काडले. वेठबिगार वा जबरदस्तीन काम करप ह्या गजालींचेर बंदी घालपांत आयली. कांय वाठारांत कायदेय लागू केले, हे कायदे अशे आसात - १) राजकीय चेपण म्हणून प्रशिक्षणाखातीर वा शिक्षा म्हणूनय वेठबिगार पद्दत वापरपांत येता. ती वापरपाक हे समितीन मनाय केली. जांची आगळीच राजकीय

विचारप्रणाली आनी समाजीक विचारसरणी आसता आनी तांचे जे हाल जातात ते थांबोवचे देखून थाराव करपांत आयलो.

२) अर्थीक उदरगतीचो वांटो म्हणून कांयकडेन वेठबिगारी पद्दत वापरपांत येता तिचोच निशेध करपांत आयलो.

३) मजुरांमदली शिस्त दवरतना एकाद्रें काम जबरदस्तीन दितात होय गैरप्रकार थांबोवचो.

४) वंशीक, राश्ट्रीय, समाजीक वा धर्मीक भेदभाव करून कांय जाणांक वेठबिगारीची शिक्षा दितात तीय बंद करची.

आंतरराश्ट्रीय उदारमतवादी आनी प्रागतिक संघटनांच्या यत्नांक लागून तशेंच अर्थीक, समाजीक, शिक्षणीक आनी राजकीय अशा पूरक परिवर्तनांक लागून अन्यायी अशी वेठबिगारी पद्दत नश्ट जावपाकडेन पावल्या. अविकसीत, अशिक्षीत समाजापुरती ती कांयकडेन अजून अस्तित्वांत दिसली तरी तिचें प्रमाण नगण्य आसा आनी तें दिसान दीस उणें जायत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वेत :** कोंड्याच्या प्रकारांतली एक वनस्पत. १०० फुटांमेरेन झाडां-झिलींचेर वालीभशेन हें झाड वाडटा. अमेरिका, जावा, सुमात्रा, बोर्निओ, बंगाल, कर्नाटक, आसाम, अंदमान, हिमालय ह्या वाठारांनी वेताची निर्मिती जाता.

यंत्राच्या आदारान वा हातान वेताचीं वेळां (साली) काडून पांटले, शेंदऱ्यो, खुर्च्यो विणटात. ह्या वेताचो दोरासारखो उपेग जाता. कागद निर्मितीखातीर वेतांचो उपेग करतात. वेताचे बडयेचें सरळपण, सुळसुळीतपण, चिवटपण आनी लवचीकपण ह्या गुणांक लागून वेताच्यो बडयो तासो, समेळ वा तत्सम वाद्यां वाजोवपाखातीर वापरतात. आदल्या काळांत जाण्टे लोक चलपाक आदार मेळपाच्या उद्देशान वेताची बडी वापरताले. गोंयांत, शिरगांवचे लईराईचे भक्त (धोंड), जात्रे दिसा, होमखंडांतल्यान वता आसताना, रंगीत गोंडे लायिल्ली वेताची बडी हातांत धरतात. मल्लखांबाच्या प्रकारांत वेताचो मल्लखांब हो एक प्रकार आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वेताळ :** (पळेयात बेताळ).

**वेद :** भारतीय समाजाचें मुळाधार अशें साहित्य. संवसारांतलें सगळयांत पोरनें साहित्य असो वेदांचो गौरव जाला.

'वेद' हें उतर 'विद्' धातूपसून भाव, कर्म आनी करण ह्या अर्थांक 'अ' प्रत्यय लागून तयार जालां. हाचेवयल्यान वेद उतराचो अर्थ गिन्यान, गिन्यानाचो विशय वा गिन्यानाचें साधन असो जाता. वेदांत ब्रह्माचें स्वरूप सत्, चित् आनी आनंद स्वरूप आसा अशें म्हळां.

देखून वेदाक ब्रह्म असोय एक पर्यायवाची शब्द वापरप जाता. वेद हे ज्ञानस्वरुपी ब्रह्म मानलें जाल्यार लौकिक आनी अलौकिक गिन्यानाचें तें भांडार आसा असो ताचो मतितार्थ जाता.

वेदांत एक गूढ शक्त आसा अशी एक धारणा आसा. वेद हो असो शब्दसमूह आसा जाचो स्वरोच्चार बरोबर जालो जाल्यार आपलें मनोरथ सिध्द जावपाची तांक त्या शब्दसमूहांत आसा अशें मानतात. अशे तरेन वेदांक दैवीक संदर्भ मेळटा.

वेदवाङ्मय कशें निर्माण जालें ह्या संबंदान जायतीं मतां आसात. हाचेविशीं वेदवाङ्मयांत कांय उल्लेख सांपडटात. सृश्टीक्रमाच्या मुळाचो सोद घेवपाचो यत्न केलो जाल्यार एकाद्रें तत्त्व आसा म्हणपाचें मानचें पडटा. ताकाच महाभूत, सैम, ईश्वर, परमात्मा अशें म्हणप जाता. ह्या महाभूताचो निश्वास म्हळयार वेद अशें बृहदारण्यकोपनिषदांत म्हळां.

वैदिक वाङ्मयांतले प्रजापती देवतेन सृश्ट निर्माण करून तिच्या कल्याणाखातीर वेद निर्माण केले. तशेंच प्रजापतीन आपल्या हुंकारावांगडा वेद निर्माण केले अशेंय म्हळां. हो हुंकार पयलीं ऋशींनी आयकलो म्हणून त्या हुंकाराक म्हणजेच वेदाक श्रुती अशें नांव मेळळें.

मनून ही अनादी आनी नित्य अशी वेदवाणी ब्रह्मदेवाच्या तोंडांतल्यान भायर आयली अशें म्हळां. तशेंच यज्ञसिध्दिक ऋक्, यजुस् आनी साम हे वेद परमेश्वरान निर्माण केले अशें ब्रह्मपुराणांत, अग्निपुराणांत आनी हरिवंशातय म्हळां. पूण सादारणपणान वेदांचो कर्तो कोणतरी मानपाक जाय म्हणून पुराणांनी चार तोंडां आशिल्ल्या ब्रह्मदेवाकडेन आनी हेर देवांकडेन वेदांचें कर्तेपण सोंपयलें. विष्णुपुराणांत विष्णुकडेन, देवीमाहात्म्यांत देवीकडेन जाल्यार कांय पुराणांत सूर्याक लेगीत वेदप्रवर्तक मानला. दुसऱ्या एका पुराणांत वामदेवापसून तर भगवद्‌गीतेंत ओंकारापसून वेदनिर्मिती मानल्या. तशेंच वेद हे शब्दस्वरूप आशिल्ल्यान ते मळबांतल्यान उत्पन्न जाल्यात अशेंय एक मत आसा. कारण शब्द हो मळबाचो गूण. हदाकाश वा चिदाकाश हातुंतल्यान जी दिव्य वाणी प्रगट जाली तिकाच वेद अशें म्हळां. ही वाणी तपश्चर्या करपी पुर्विल्ल्या ऋशींच्या अंतस्करणांत प्रगट जाली. म्हणुनूच वेद ऋशींक स्फुरले अशें म्हण्टात. अशेतरेन वेदांचे उत्पत्तीविशीं आनीकय जायतीं मतां सांपडटात.

भारतीय संस्कृतीच्या अभ्यासांत वेदांचें स्थान सगळयांत वयल्या पांवड्यावयलें जावन आसा. मनून तर आरवो वेद धर्माचें मूळ म्हणून सांगलां. देखून आर्यधर्माचो विचार करतना वेदांचो अभ्यास करप सामकें गरजेचें आसा.

वेदांचें म्हत्वय आदल्या काळासावन आयजमेरेन तिगून आसा. चडकरून अस्तंती पंडितांनी वेदांचो खूब अभ्यास करून तांचें

म्हत्व जगाफुडें मांडलां. तशेंच वेद हें धर्माचें मूळ थारिल्ल्यान वेद प्रमाण म्हणपाचें त्रिकालबाधित आसा अशेंच मानपांत आयलां. मनून धर्माचीं जीं चार प्रमाणां सांगल्यांत तातूंत वेदाक पयलें स्थान दिलां.

भारतीय आस्तिक दर्शनांनी आपआपलें तत्त्वगिन्यान मांडतना वेदांचोच आदार घेतला. तशेंच नास्तिक दर्शनां म्हणून जांचो उल्लेख जाता त्या बौध्द - जैन धर्मांत लेगीत वेदांचो आदर केल्लो आसा. बौध्द धर्माचें तत्त्वज्ञान मांडपी गौतम बुध्दान वेदांचो अभ्यास केल्लो आनी तो वेदांक मानतालो. तशेंच संत ज्ञानेश्वर आनी तुकारामासारकिल्ल्या संतांनीय वेदांचो गौरव केला.

वेद कशे निर्माण जाले हें सांगतना आदले ऋशी तपश्चर्येंत मग्न आसतना तांकां वेदांचो साक्षात्कार जालो अशें म्हण्टात. तशेंच वेदांचें कर्तेपण कोणाकच मेळना म्हणूनय वेद अपौरुषेय आसात अशेंय म्हणप जाता. वेदांची निर्मिती खंय जाली ह्या संबंदानय वादविवाद आसा. पुराय वैदिक वाङ्मय एकाच जाग्यार निर्माण जावंक ना जाल्यार तें मध्य आशिया, सप्तसिंधू आनी मध्यदेश हांगा निर्माण जालां असो सर्वसादारण समज आसा.

पुराय वेदाचे चार भाग आसात म्हणपाचे उल्लेख वैदिक वाङ्मयांत दिसतात. पुरुषसुक्तांत आयिल्ले ऋग्, साम, छन्द आनी यजुस् अशा ह्या चार शब्दांनी वेदाचे चार भाग जाल्यात. पूण ब्राह्मणग्रंथांत यज्ञाचें विधान आशिल्ल्यान थंय ऋग्, यजूस् आनी साम अशा तीनय वेदांचो उल्लेख आसा. चडशे सगळे तरेचे श्रौतयाग ह्या तीन वेदांच्या आदारान जातात. ह्या दर एका वेदाचो एकेक ऋत्विज यज्ञांत मुखेल म्हणून आसता. अध्वर्यू ऋग्वेदी आसता, होता यजुर्वेदी जाल्यार उद्‌गाता सामवेदी आसता.

वेदांच्यो मुखेलपणान चार संहिता प्रसिद्द आसात - ऋग्वेद, यजुर्वेद, सामवेद आनी अथर्ववेद. व्यासान ह्यो संहिता तयार करून आपल्या चार शिश्यांक शिकयल्यो. फुडें शिश्यपरंपरेन तांची जतनाय जावपाक लागली. हातुंतल्यान जायते फांटे निर्माण जाले. तांचीं नांवां आनी तांचो प्रचार खंय खंय जालो ही खबर चरणव्यूह ह्या ग्रंथांत दिल्ली आसा. महामुनी पतंजलीच्या पस्पशाध्निकांत सांगिल्लेप्रमाण ऋग्वेदाच्यो एकवीस शाखा, यजुर्वेदाच्यो एकशें एक, सामवेदाच्यो एक हजार आनी अथर्ववेदाच्यो णव शाखा आसात. पूण त्यो आतां मेळनात. सद्या ऋग्वेदाच्यो दोन, यजुर्वेदाच्यो स, सामवेदाच्यो तीन जाल्यार अथर्ववेदाच्यो दोन शाखा मेळटात.

वेदांत वेगवेगळ्या देवतांचीं वर्णनां आयिल्लीं आसात. तांचेवयल्यान त्या देवांची खूब म्हायती मेळटा. तशेंच अग्नी, इंद्र, वरुण, उषस्, सूर्य आदी जायत्या देवांचीय म्हायती सांपडटा.

आर्यांच्या समाजीक जिवितांत व्यक्ती आनी समाज तशेंच इहलोक आनी परलोक हेसंबंदी बरोच मेळ घालपाचो यत्न केला. समाज हो व्यक्तींक लागून जाता देखून समाजांतल्या व्यक्तीचो विकास जावपाचेर वेदांत म्हत्व दिलां. तशेंच समाजाचो भौतिक आनी आध्यात्मिक विकास जावंचो असो वेदांचो उद्देश आसा. देखून कुटूंबीक जिवीत, तीन ऋणां, वर्णवेवस्था, आश्रमवेवस्था आनी चार पुरूषार्थ (धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष) ह्या पांच आदारांचेर वैदिक लोकांचें समाज जिवीत आदारिल्लें आसा हाचो बोध वेदांवरवीं जाता.

- अनंत राम भट

पूरक नोंद : यजुर्वेद, अथर्ववेद, सामवेद आनी ऋग्वेद

**वेरूळ :** महाराष्ट्रांतल्या मराठवाड्यांतली नामनेची सुवात. औरंगाबादचे वायव्य दिकेक हो गांव आसा. गांवा लागसारच इला न्हंय व्हांवता. हे न्हंयेचे देगेर घृणेश्वराचें देवूळ आसा. तें बारा ज्योतिर्लिंगातलें एक मानतात.

वेरूळचें मूळ नांव एलापूर अशें आशिल्लें. राष्ट्रकूटांच्या एका तांब्यापटयांत एलापूरच्या शिवमंदिराची म्हळयार कैलास लेण्याची खूब तोखणाय केल्ली आसा. तें एलापूर म्हळयारच वेरूळ. एलापूरचो अपभ्रंश जावन वेरूळ हें नांव त्या गांवाक मेळ्ळें आसुंये, अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

गांवाचे अस्तंतेक एका दोंगरांत कोरांतिल्ल्या लेण्यांक लागून ह्या गांवाक खूब नामना मेळ्ळी. हो दोंगर दक्षिण - उत्तर असो पातळिल्लो आसून, ताचो आकार चंद्राचे कोरीभशेन आसा.

ह्या दोंगरांत वट्ट चवतीस घोली कोरांतिल्ल्यो आसात. तातुंतल्यो दक्षिणेकडल्यो बारा घोली बौध्द पंथाच्यो, उत्तरेकडल्यो पांच घोली जैन पंथाच्यो आनी त्या दोगांयच्या मदल्यो सतरा घोली ब्राह्मणी पद्दतीच्यो आसात. बौध्द लेणीं इ.स. ५५० - ८०० ह्या काळांतलीं आसून, तीं महायान पंथाचीं आसात. तातूंत एक चैत्यघर आसून, बाकीचीं बुध्दाची प्रतिमा आशिल्लीं विहारघरां आसात.

इ.स. ६५० उपरांत हांगाच्या ब्राह्मणी घोलींची निर्मिती सुरू जाली. तातुंतलें कैलास मंदिर हें खुबूच सोबीत लेणें राष्ट्रकूट राजा कृष्णराज (पयलो) हाणें इ. स. च्या ८ व्या शेंकड्यांत निर्माण केलें. जैन लेणीं इ. स. च्या ९ व्या आनी १० व्या शेंकड्यातलीं आसून तीं राष्ट्रकूट वंशांतल्या अमोघवर्ष (पयलो) वा कृष्णराज (दुसरो) हांचे वेळार कोरांतिल्लीं आसात.

हांगा पयलीं बौध्द लेण्यांची रांक लागता. लेणें क्रमांक १ आनी लेणें क्रमांक २ हीं सामकीं सादीं आसात. तातूंत भिक्षुंखातीर ८ कुडी आसात. हो सगळयांत पोरनो विहार. दुसरें लेणें म्हळयार चैत्यघरच आसुंये. कांय सोंपणां चडटकच एक सोपो मेळटा. ताच्या दोनय वटांनी दोन कुडी आसात. एके वटेन उच्चासनाचेर बौध्दांचो कुबेर, जंभलाची तुंदिलतनू मूर्त आसा. दर्शनी वण्टीचेर बुध्दाच्यो खुबशो मूर्ती कोरांतिल्ल्यो आसात. मुखेल मंडपांत प्रवेश दाराचेर दोन व्हड द्वारपाल आसात. ह्या मंडपांत बारा व्हड खांबे आसून दोनय

वटांनी बुध्दाच्यो व्हडल्यो मूर्ती आसात. सगळया मंडपांत नाजूक नक्षी कोरांतिल्ली आसून, खांबे तरातरांचे आनी मन - भुलोवणे आसात. ह्या मंडपाचे वण्टींत तारा आनी बोधिसत्त्व हांच्योय कोरांतिल्ल्यो मूर्ती आसात. ह्या मंडपाच्या फाटल्यान गाभारो आसून ताच्या दाराचेरय व्हडले द्वारपाल आसात. गाभाऱ्यांत शींवासनाचेर बशिल्ली बुध्दाची व्हडली मूर्त धर्मचक्रप्रवर्तन मुद्रेंत आसा. मूर्तींच्या दोनय वटांनी चवरां धरील्ले सेवक आनी फुलांच्यो माळो घेवन गंधर्व आसात.

लेणें क्रमांक ३, हो एक विहार आसून, तातूंत आठ कुडी आसात. सोप्याचे उत्तरेवटेन एक प्रार्थनापट आसून, तातूंत अवलोकितेश्वराचे चमत्कार चितरायल्यात.

लेणें क्रमांक ४, हाच्या मुरवेल मंडपांत पद्मपाणी बोधिसत्त्वाची बसकी मूर्त आसून, दोनय वटांनी सेविका आसात. गाभाऱ्यांत बोधिवृक्षाचे सावळेंत बशिल्ल्या बुध्दाची मूर्त आसा.

ह्या चारूय लेण्यांक धेडवाडा अशें नांव आसा. लेणें क्रमांक ५, हो एक प्रशस्त विहार आसून, ताका महारवाडा म्हण्टात. हातूंत २४ खांबे आसून, २० कुडी आसात. मंडपाचे फाटले वटेन बुध्दमूर्ती आशिल्लें देवूळ आसा. ह्या लेण्याच्या माथ्यावयल्यान एक जलप्रवाह फुडले दरयेंत कोंसळत आसता.

लेणें क्रमांक ६, होय खूब व्हड आसा. मदीं एक व्हड मंडप, फाटल्यान अंतराळ आनी बुध्दमंदिर आसून, मंडपाच्या दोनय वटांनी दोन व्हड मंडप आसात. तांकां तेंकून कुडी आसात. प्रवेशद्वाराच्या दोनूय वटांनी व्हडले द्वारपाल आसून, उजवे वटेनचे वण्टीचेर महामायुरीची प्रतिमा आनी दावे वटेनचे वण्टीचेर तारादेवीची प्रतिमा कोरांतिल्ली आसा. गाभाऱ्याचे वण्टींत कोरांतिल्ल्यो बुध्द आनी बोधिसत्त्व हांच्यो मूर्ती पळोवपासारक्यो आसात.

सव्या लेण्याचे सकयल सातवें लेणें आसा. हातूंत चार खांबे आसात. फाटले वटेन ५ कुडी आनी दोनय वटांनी तीन तीन कुडी आसात.

सातव्या लेण्यांतल्यान आठव्या लेण्यांत वचपाक वाट आसा. हातूंत चार खांबे आनी चार अर्दखांबे आसात. उत्तरेवटेनचे वण्टींत तीन कुडी आसात. फाटले वटेन एका वेगळया दालनांत गर्भगृह आनी ताचे भोंवतणी प्रदक्षिणापथ आसा. गाभाऱ्यांत बुध्दाची बसकी मूर्त आसून, दोनय वटांनी दोन बोधिसत्त्व उबे आसात. अंतराळाचे उजवे वण्टींत महामायुरीची मूर्त आसून, गाभाऱ्याच्या प्रवेशदाराचेर दोन द्वारपाल आसात.

लेणें क्रमांक ९, हातुंतय वचपाक सव्या लेण्यांतल्यान वाट आसा. हें दक्षिणेवटेन आसून खूब सुंदर आसा. सामकार एक सोपो आसून, ताच्या फाटल्यान दोन खांबे आनी उपरांत एक दालन लागता. त्या दालनाचे फाटले वण्टींत दोन अर्दखांबे आशिल्ल्यान वण्टीचे तीन वांटे जाल्यात. मदल्या खणांत धर्मचक्रप्रवर्तन मुद्रेंतली बुध्दाची मूर्त कोरांतिल्ली आसून तिचेर चार गंधर्व आसात. दावे वटेनच्या खणांत पद्मपाणी आनी उजवे वटेनच्या खणांत बोधिसत्त्व आसा. सामकार बोधिसत्त्वासयत बुध्दप्रतिमांची एक रांक आसून, वयर चैत्यगवाक्षांच्यो रांको आसात. त्या गवाक्षांतय बुध्दप्रतिमा आसून, तारा अभयदान करता अशें शिल्प आसा.

लेणें क्रमांक १०, हें लेणें विश्वकर्मा ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. हाका सुतार लेणें अशेंय म्हण्टात. कारण हातूंत लांकडाच्या फासळयांभशेन फासळयो फातरांत कोरांतून काडिल्ल्यो आसात. हें एक चैत्यघर आसा. एका सैमीक तटाच्या दारांतल्यान भितर वतकच एक व्हड प्रांगण लागता. ताच्या तिनय वटांनी घटपल्लवयुक्त खांब्यांचेर आदारिल्ले सोपे आसात. फुडल्या सोप्यातल्यान फाटल्या चैत्यघरांत वचपा खातीर एक दार आसा. भितरल्या दालनांत खांब्यांच्यो दोन रांको आशिल्ल्यान दोनय वटांनी वीथिका तयार जाल्यात. दालनाची फाटली वणत वाटकुळी आसून, थंय एक व्हड स्तूप आसा. ताच्या दर्शनी भागाचेर भव्य बुध्द मूर्त सिंहासनाचेर बशिल्ली आसा. स्तुपाच्या वयल्या भागांत बोधिवृक्षाचें तोरण आनी गंधर्वांच्यो आकृती कोरांतिल्ल्यो आसात. दोनय वटांनी बोधिसत्त्वाच्यो प्रतिमा आसात. वयल्या भागांत कोनाड्यांनी प्रणयी युग्मां कोरांतिल्लीं आसात. प्रवेशदार आनी जनेलां हांचेर एक त्रिदली मेहरप वा बिल्वतोरण आसा. त्या तोरणाच्या दोनूय वटांनी दोन शिखरां कोरांतिल्लीं आसात. तांचे सकयल कोनाड्यांत अवलोकितेश्वर, वज्रपाणी आनी तारा हांच्यो मूर्ती आसात. दावे वटेन कोनाड्याम्हऱ्यांत एक शिलालेख आसा. तातूंत कोरांतिल्लो मंत्र महायान पंथाचो आसा पूण हें लेणें हीनयान पंथाचें आसा.

लेणें क्रमांक ११ हें दोनताल ह्या नांवान वळखतात. हें तीन माळयांचें आसून, उजवे वटेन एक व्हड भिक्षुगृह आसा. दावे वटेन उदकाची टांकी आसा. लागींच अवलोकितेश्वराची अलंकार घाल्ली मूर्ती आनी दोनय वटांनी तारा आनी भ्रुकुटी हांच्यो मूर्ती आसात. वयर ल्हान ल्हान बुध्दाच्यो मूर्ती आनी गंधर्वांच्यो प्रतिमा आसात. फाटले वण्टीच्या मदीं आशिल्ल्या गाभाऱ्यांत शिंवासनाचेर ध्यानस्थ बशिल्लो बुध्द आनी कुशींनी पद्मपाणी आनी वज्रपाणी हांच्यो मूर्ती आसात. वयल्या मजल्याच्या सोप्यांत आठ खांबे आसून, फाटले वण्टींत पांच दारां आसात. दुसऱ्या दारांतल्यान भितरज वतकच बुध्दाची व्हडली मूर्त भूमिस्पर्श मुद्रेंत आनी ध्यानासनांत शिंवासनाचेर बशिल्ली दिसता. ताचे दोनय वटांनी दोन बोधिसत्त्व आनी सामकार दोन सेविका आसात. ह्या गर्भगृहाचे वण्टीचेर बुध्द, बोधिसत्त्व जंभल आनी तारा हांच्यो कितल्योशोच मूर्ती कोरांतिल्ल्यो आसात.

लेणें क्रमांक १२ हें तीनताल ह्या नांवान वळखतात. हें चैत्यगृह आनी विहार अशें समिश्र स्वरुपाचें आसून, वेरूळच्या बौध्द लेण्यांत हें सगळयांत व्हड आसा. तीन माळयांच्या ह्या लेण्यांत हेर लेण्यांनी आसा तशोच बुध्द, अवलोकितेश्वर, मंजुश्री, तारा, चुंडेची

मूर्त आसून णव चवकोनांचो मूर्तिपट आसा. पयले माळयेची रचना लेणें क्रमांक ११ च्या लेण्यांतल्या वयल्या माळयेभशेनूच आसा. सभामंडपाचे वण्टीचेर पद्मपाणी, तारा, बुध्द हांच्यो मूर्ती कोरांतल्यात. वयली माळी शिल्पकला आनी स्थापत्यरचना ह्या दोनय नदरेन उत्कृश्ट आसा. दर्शनी भागांत आठ स्तंभ आनी तांच्या फाटल्यान आठ स्तंभांच्यो चार रांको मेळून चाळीस स्तंभांचो मंडप आसा. ताच्या फाटल्या अंतराळांत आनीक दोन खांबे आसात. दक्षिण आनी उत्तरे वटेनच्या वण्टींनी दर एका खणांत चार अशो व्हडल्यो बुध्दप्रतिमा आसात. फाटले वटेनचे वण्टींत प्रवेशदाराच्या दोनय वटांनी सात सात मानुषी बुध्दांच्यो मूर्ती आसात. अंतराळाच्या दोनय वटांनी वण्टींत तीन तीन बायलांच्यो प्रतिमा आसात. त्यो सगळयो मूर्ती कमलासनाचेर बशिल्ल्यो आनी मस्तकाचेर सुंदर मुकुट धारण केल्ल्यो आसात.

मुखेल प्रवेशदाराचेर द्वारपाल आनी ऊंच भूमिस्पर्श मुद्रेंतली बुध्दमूर्त बोधिसत्त्वाच्यो पांच पांच मूर्ती आनी बुध्दमूर्ती भोंवतणी प्रदक्षिणामार्ग आसा.

तीनताल हें लेणें कैलास लेण्याच्या काळांतलें आसून ह्या लेण्याची भव्यता आनी तातुंतलीं उत्कृश्ट शिल्पां हांकां लागून तें महायान पंथाच्या लेण्यांतलें एक म्हत्वाचें लेणें मानतात.

क्रमांक १ ते १२ हीं लेणीं बौध्द पंथीय आसात. उपरांत ब्राह्मणी पद्दतीचीं सतरा लेणीं लागतात.

लेणें क्रमांक १३ हें तीनतालाचे उत्तरेक आसा. हें सामकें सादें आसून हातूंत कसलेंच शिल्प ना.

लेणें क्रमांक १४, हाका रावण की खाई ह्या नांवान वळखतात. हातूंत कैलासपर्वत हालोवपी रावणाचें शिल्प कोरांतलां. हें इ. स. च्या ७ व्या शेंकडयांत कोरांतलां आसुंये असो अदमास आसा.

हाच्या दर्शनी भागांत चार खांबे आसात. सकयलो भाग चवकोनी आसून, वयल्या भागांत पूर्णकलश आनी यक्षमूर्ती आसात. भितर सभामंडपांत एका चवकोनांत बारा खांबे आसात. दोनय वटेनच्या वण्टींनी जे अर्दस्तंभ आसात, तांचेर खुबशें कोरांतिल्लें काम आसा. उत्तरेवटेनचे वण्टींत पयल्या खणांत दुर्गादेवी हातांत त्रिशूळ घेवन आनी शींवासनाचेर पांय दवरून उबी आसा. दुसऱ्या खणांत उत्फुल्ल कमळाचेर लक्ष्मी, कुशीक शंखचक्रधारी चतुर्भुज सेवक कुंभ घेवन उबे आनी मस्तकार जलसिंचन करपी दोन दोन हत्ती दोनय वटांनी अशें शिल्प आसा. तिसऱ्या खणांत वराहरुपी विष्णुन स्त्रीरुपी पृथ्वीक सागरांतल्यान वयर उखलल्या अशें दृश्य दिसता. फुडल्या खणांत श्रीदेवी आनी भूदेवी हांचेसयत विष्णुची मूर्त आसा. निमाणच्या खणांत विष्णु - लक्ष्मी हांच्यो प्रतिमा कोरांतिल्ल्यो आसा. सकयले वटेन वाद्यां घेतिल्ले सेवक आसात.

उपरांत गाभारो लागता. ताच्या दाराचेर दोन व्हडले द्वारपाल आसून, एके वटेन मकराचेर गंगादेवी आनी कूर्माचेर यमुनादेवी उबी दिसता. थंयच आनीक कांय बायलांच्यो मूर्ती, सेवक, गंगा - यमुनेच्यो मूर्ती आसात. गाभाऱ्यांत महिषासुरमर्दिनीची मूर्ती एका चबुतऱ्याचेर उबी आसून, सभामंडपाच्या फाटल्यान, गाभाऱ्या भोंवतणी प्रदक्षिणापथ आसा. तातूंत उत्तरेचे वण्टींत, उजव्या हाताक वीरभद्र, उपरांत हंसारूढ ब्राह्मी, नंदीवाहना माहेश्वरी, मयूरवाहना कौमारी, गरूडवाहना वैश्णवी, वराह - वाहना वाराही, गजवाहना इंद्राणी आनी घुबडवाहना चामुंडा ह्या सप्तमातृकांच्यो मूर्ती आसात. तशेंच ह्या सगळया मातृकांच्या हातांत एक ल्हान बाळक आसा. उपरांत गणपतीची मूर्त आनी निमाणें काली आनी काल हांच्यो प्रतिमा कोरांतिल्ल्यो दिसतात. दक्षिणा पथांतल्यान परतून सभामंडपांत येतकच, दक्षिणे वटेनचे वण्टींत, पयल्या खणांत, अंधकासुरवधाचो प्रसंग दिसता. दुसऱ्यांत रावणानुग्रहाचो प्रसंग कोरांतला. कैलास पर्वताचेर शिव - पार्वती बसल्या. रावण आपल्या सगळया हातांनी तो पर्वत उबारपाचो यत्न करता. पार्वती भियेल्या पूण शिव शांत आसा. तिसऱ्या खणांत तांडव नृत्य करपी शिवाची सोबीत मूर्त, उजवे वटेन तीन डमरू घेतिल्ले गण आनी भृंगी आसून, फाटले वटेन एका कोनशाक ब्रह्मा, विष्णु आनी दुसऱ्या कोनशाक इंद्र आनी अग्नी हांच्यो प्रतिमा आसात. फुडल्या खणांत शिव - पार्वती घुलांनी खेळटात. कुशीक गणपती, भृंगी आनी सेवक - सेविका आसून, सकयले वटेन नंदी आनी खेळपी शिवगण आसात. निमाणच्या खणांत महिषासुरमर्दिनीचें सोबीत शिल्प आसा.

लेणें क्रमांक १५ हाका दशावतार लेणें अशें म्हण्टात. हातूंत राष्ट्रकूट राजा दंतिदुर्ग हाचो लेख कोरांतिल्लो आसा. तो इ. स. च्या आठव्या शेंकडयांतलो आसा. ह्या लेण्याच्या मंडपाचे वण्टींत जाळयेचीं गवाक्षां आसून, तांचे कुशीक देवता, गंगा - यमुना, मंदिराच्यो प्रतिकृती मिथुनां अशो आकृत्यो कोरांतल्यात. मंडपाच्या वयर आनी चारूय कोनशांनी शींवाच्यो प्रतिमा आनी तांचेमदीं पक्ष्यांच्योय प्रतिमा आसात. अस्तंतेवटेनच्या दाराच्या दोनय वटांनी गंगा यमुनेच्यो मूर्ती आसून, सकयल सोंपणांकडे दोनय वटांनी हत्ती आसात. मंडपाच्या फाटले वटेन दोन माळयांचें मुखेल लेणें आसा. ताच्या सोंपणाकडे दोन गजमुखां कोरांतल्यांत. ह्या लेण्यांत गणपती, शिव - पार्वती, सूर्य, शिव - पार्वती आनी गणपती - नंदी, महिषासुरमर्दिनी, अर्दनारीश्वर, भवानी, गणेश, उमा, अर्दनारीश्वर आनी काली हांच्यो सोबीत मूर्ती आसात. दुसरे माळयेवयल्या सालांत, ४४ खांबे आसात. फाटलेवटेनच्या गाभाऱ्यांत, एक फुटिल्लें शिवलिंग आसा. शैव आनी वैश्णव शिल्पपट कोरांतिल्ले आसात. उत्तरेवटेनचे वण्टींत पयलो पट अंधकासुरवधाचो आसून लागींच कालीची भिरांकूळ मूर्त आसा. पार्वतीची मूर्त सौम्य आसून दुसऱ्या खणांत तांडवनृत्य करपी शिवाची प्रतिमा आसा. तिसऱ्या खणांत एका चवथऱ्याचेर शिवलिंग आसा. चवथ्या खणांत, शिव - पार्वती, सकयेल वटेन नंदी आनी शिवगण

आसात. वयर दोनय वटांनी फुलांच्यो माळो घाल्लीं गंधर्वमिथुनां दिसतात. पांचव्या खणांत कल्याणसुंदर म्हळयार शिव - पार्वतीच्या लग्नाचो सुवाळो खुबूच सुंदर कोरांतला. सव्या खणांत रावणानुग्रहप्रसंग आसून फाटले वण्टीचेर मार्कंडेयाची यमापसून राखण करपी शिवाची मूर्त आसा. उपरांतच्या खणांत गंगावतरणाचो प्रसंग आसून, अंतराळांत दावे वटेनचे वण्टींत गणपतीची भव्य मूर्त आसा. गर्भगृहाच्या दाराचेर दोनय वटेन द्वारपाल, एके वटेन गजलक्ष्मी आनी दुसरे वटेन सरस्वती आसा. अंतराळांत उजवे वटेन वण्टीचेर मोराचेर बशिल्ल्या कार्तिकेयाची मूर्त आसा. अंतराळांतल्या खांब्याचेर मिथुनां आसात. अंतराळांतल्यान भायर येतकच वण्टीचेर एका खणांत लिंगोद्‌भवमूर्त आनी दुसऱ्या खणांत त्रिपुरांत शिवाची रथाचेर बशिल्ली मूर्त आसा. ब्रह्मदेव त्या रथाचें सारथ्य करता. उजवे वटेनचे वण्टीचेर पयल्या खणांत, श्रीकृष्णान गोवर्धनाचो उध्दार केलो तो प्रसंग आसा. दुसऱ्या खणांत शेषशायी विष्णुचें शिल्प आसा. तिसऱ्या खणांत गजेंद्रमोक्षाची कथा आसून, त्या शिल्पांत विष्णु गरुडाचेर बशिल्लो आसा. चवथ्या खणांत गाभारो आसून तातूंत शिवलिंग आसा. पांचव्या खणांत वराहरुपी विष्णु पृथ्वीचो उध्दार करता अशें शिल्प आसा. सव्या खणांत विष्णुचो वामनावतार आनी बळीक पाताळांत धुकलपारवातीर घेतिल्लें त्रिविक्रमाचें रूप हो शिल्पपट आसा. तशेंच दर्शनी सोप्यावटेनच्या खणांत हिरण्यकशिपुवधाचें सोबीत शिल्प आसा. मंडपाचे मदीं गर्भगृहाफुडें नंदीची मूर्त आसा.

प्रांगणांत दक्षिणेवटेन कुशीक उदकाची टांकी आसा आनी उत्तरेवटेनचे वण्टींत दाराकडे एक लेणें आसा. हें इ. स. च्या १० व्या शेंकड्याउपरांत कोरांतिल्लें आसुंये. तातूंत गर्भगृहांत शिवलिंग आनी ताचे फाटल्यान त्रिमुख महेश मूर्त कोरांतल्या. उत्तरेवटेनचे वण्टींत आनीक एक साल आसून ताच्या तिनय वटेनच्या वण्टींनी दोन दोन कुडी आसात.

लेणें क्रमांक १६ हाका कैलास अशें नांव आसा. हें शिवमंदिर इ. स. च्या ८ व्या शेंकड्यांत राष्ट्रकूट राजा कृष्ण (पयलो) हाचे राजवटींत कोरांतलां.

हें पुराय देवूळ एकाच फातरांत कोरांतिल्लें आसलें तरी दोंगरापसून वेगळें केल्लें आसा. ताचे भोंवतणी प्राकार आनी फाटले वटेन ऊंच पहाड आसा. प्राकाराभेंवतणी पाशाणाची सैमीक वणत आसून, दर्शनी भागांत अर्दस्तंभांनी विभागिल्लीं देवकोश्टां आसात. तातूंत दिक्पाल, शिव, विष्णु, इंद्र - इंद्राणी, महिषासुरमर्दिनी, नरसिंह, वराह, त्रिविक्रम, ब्रह्मा ह्या देवतांचीं भव्य शिल्पां आसात. प्रवेशदाराच्या दोनय वटांनी गंगा आनी यमुना हांच्यो मूर्ती आनी सकयल्या भागांत हत्ती, शींव ह्या पशुंच्यो रांको आसात.

प्रवेशदार गोपुराभाशेन भव्य आसून, ताचे वण्टींचेर गोवर्धनोध्दार, दिक्पाल हांचीं शिल्पां कोरांतल्यांत. भितर वण्टींतच दोन दालनां कोरांतिल्लीं आसून, तांच्या दर्शनी भागांत पूर्णघटयुक्त खांबे आसात. वण्टींतल्या प्रवेशदारांतल्यान प्रांगणांत वचचे पयलीं दोनय वटांनी शंखनिधी आनी पद्मनिधी हांच्यो मूर्ती वण्टींत कोरांतल्यात. प्रांगणांत येतनाच मुखार गजलक्ष्मीची सोबीत मूर्त आसा. एका तळयांत कमळाचेर लक्ष्मी आसून, कुशीक हत्ती, वयर गंधर्वमिथुनां आनी छत्र तशेंच दोनय वटांनी अर्दस्तंभ आनी द्वारपाल आसात. लक्ष्मीमुखावयल्या प्रवेशदाराच्या दोनय वटेनच्या वण्टींनी देवकोश्ठांत गणपती आनी महिषासुरमर्दिनी हांचीं शिल्पां आसात. प्रांगणांत दोनय वटांनी दोन फातराचे हत्ती दिसतात. गजलक्ष्मीचें दर्शन घेवन दावे वटेन येतकच गंगा, यमुना आनी सरस्वती ह्या न्हंयांचें देवूळ दिसता. पल्लव शिल्पशैलीच्यो ह्यो मूर्ती कमनीय दिसतात. उत्तरेवटेन सोपणां चडटकच एक प्रांगण लागता. तातूंत गजलक्ष्मीच्या फाटल्यान दोन माळयांचो मंडप आसून, फाटल्यान एक रूंद असो चौथरो आसा. ताचेर मुखेल देवूळ आसा. चौथऱ्याचे वण्टीचेर हत्ती आनी शींव हांच्यो व्हडल्यो आकृत्यो रांकेन कोरांतल्यात. नंदीमंडपाच्या दोनय वटांनी उबे आशिल्ल्या दोन ऊंच ध्वजस्तंभांचेर शिवाचो त्रिशूळ आशिल्लो. मांदिराचें विमान द्रविड पद्धतीचें त्रितल म्हळयार तीन मजली आसून ताचेर कळस आसा. गर्भगृहामुखार अंतराळ आनी ताचे फुडें व्हड सभामंडप आसा. सभामंडपाक तीन वटांनी ल्हान प्रवेशमंडप आसात. तातुंतल्या पयल्या मंडपापसून नंदी मंडपाकडे वचपारवातीर पूल आसा. ताच्या दोनय वटांनी सोपान आसा. नंदीमंडपाच्या उत्तरेवटेनचे वण्टीचेर मदीं नटराज शिवाची मूर्त आनी ताच्या दोनय वटांनी हरिहर आनी अर्धनारीश्वर हांचीं शिल्पां आसात. नंदीमंडप आनी चौथरो हांचेमदीं दोन उत्कृश्ट शिल्पपट आसात. नंदीमंडपाचे वण्टीचेर अंधकासुरवधाचो प्रसंग आसून, मुखावयले वण्टीचेर महायोगी शिवाची मूर्त आसा. ते मूर्तीचे कुशीक वरुण, वायू, इंद्र, यम, ईशान, महेश्वर, कुबेर, अग्नी हांच्यो प्रतिमा कोरांतल्यात. नंदीमंडपाचे उत्तरेकडलो सोपान चडून वयर वतकच कुशीचे वण्टीचेर एक शिल्पपट आसून, तातूंत रावण कैलास पर्वत हालोवपाचो यत्न करता. दक्षिणेवटेनचीं सोंपणां चडटकच वण्टीचेर ब्रह्मा, विष्णु आनी शिव हांच्यो मूर्ती आसात. नंदीमंडपाचे दक्षिणेवटेनचे वण्टीचेर नरसिंह आनी हिरण्यकशिपू हांचें झूज दाखयलां. दक्षिणेवटेनच्या सोपानाचे सकयले वण्टीचेर रामायणांतले कांय प्रसंग आनी उत्तरेवटेनच्या सोपानाचे सकयले वण्टीचेर महाभारतांतले प्रसंग कोरांतल्यात. अग्रमंडपाच्या दोनय वटांनी दोन शिल्पपट, उपरांत सोबीत जाळी आनी परतून फुडें कोनाड्यांत देवतांच्यो मूर्ती आसात. उजवे वटेन लिंगोद्‌भव शिवाचो शिल्पपट आनी ब्रह्मदेवाची मूर्त आनी दावे वटेन गंगाधर शिव आनी मार्कंडेयरक्षण ह्यो मूर्ती आसात. मंडपाच्या पाखर्‍याचेर सोबीत चित्रां आसात. सभामंडपाच्या दर एका कोनशाक चार खांबे अशे सोळा खांबे आनी सोळा अर्दस्तंभ आसून, तांचेर समुद्रमंथन, नरसिंह अवतार अशे पुराणांतले

प्रसंग कोरांतल्यात. पारव्याचेर मर्दी नटराज शिवाची मूर्त आनी रंगीत चित्रां आसात. म्हणून त्या मंडपाक 'रंगमहाल' म्हण्टात. अंतराळांत उजवे वटेन नंदीचेर बशिल्ली शिव - पार्वती स्कंद असो शिल्पपट आसा. तातूंत सकयल शिवगण दिसतात. दुसरे वटेन शिव - पार्वती घुलांनी खेळटात आनी पारव्याचेर अन्नपूर्णेची मूर्त आसून, तिचे दोनय वटांनी ब्रह्मा आनी विष्णु तशेंच चारय वटांनी गंधर्व आसात. गर्भगृहाच्या प्रवेशदाराचे उजवे वटेन यमुना आनी दावे वटेन गंगा दिसता. सभामंडपाचे उत्तरेकडले वण्टींत अंधकासुरवध महिषासुरमर्दिनी, जाळयेचीं जनेलां आनी कोनाड्यांत शिव आनी विष्णु हांच्यो मूर्ती आसात. दक्षिणेवटेनचे वण्टींत जटायुवध, वाली - सुग्रीव झूज आनी नरसिंह - हिरण्यकशिपु झूज हे शिल्पपट आसात. गर्भगृहाचे भायले वण्टीचेर आनी विमानाचेर देवकोश्ठांत शिवमूर्ती आनी सोबीत शिल्पां, तशेंच गंधर्वाच्यो मूर्ती आसात. शिवाच्यो नृत्यमूर्ती आनी अर्दनारीश्वर मूर्तीय उल्लेखनीय आसात. मुखेल मंदिराच्या दोनय वटांनी, गर्भगृहाचे रांकेत, चौथऱ्याचे कुशीक, दोन उपदेवळां आसात. एक देवूळ गर्भगृहाच्या फाटल्यान मर्दी आसा आनी दोनय कोनशांनी मुखेल मंदिरांभाशेनच शिखर आशिल्लीं दोन देवळां आसात. पूण ह्या पांचय देवळांनी एकय देवता ना.

हें १६ वें लेणें, राष्ट्रकूट सम्राज्ञी माणिकावती हिणें निर्माण केलें म्हणुनूच तातुंतल्या शिवाक माणिकेश्वर हें नांव मेळळें अशें वेरूळच्या वाठारांत प्रचलित आशिल्ले एके लोककथेवयल्यान समजता.

विमानावयल्या निमाण्या तळाचेर चारय कोनशांनी चार बशिल्ले नंदी आसात. नंदीमंडप आनी ताच्या मुखावयलें गोपुर हांचेरय शिखरां, मूर्तिपट आनी गंधर्वमिथुनां आसात. मुखेल मंदिराचे फाटलेवटेनचे वण्टींत ११ खण आसून, तातुंतल्या पयल्या खणांत शिव - पार्वतीच्या लग्नाचो सुवाळो आसा. दुसऱ्या खणांत अंधकासुरवध करपी शिव, तिसऱ्यांत त्रिपुरांतक शिव, चवथ्यांत शिवपार्वतीची आलिंगनमूर्त, उपरांत अनुक्रमान चतुर्भुज शिव, लिंगोद्भवमूर्त, गंगाधर शिव, हरिहर, विष्णु, शिव, ब्रह्मा, त्रिनेत्र शिव, भिक्षाटन मूर्ती, नटराज शिव, उपरांत शिव आनी शिव - पार्वती अशो मूर्ती दिसतात. तेउपरांत दक्षिणेकडले वण्टींत १२ खण आसून, पयल्या खणांत अर्धनारीश्वर, दुसऱ्यांत चतुर्भुज शिव, तिसऱ्यात गोकर्ण महाबळेश्वर हांगा जमनीवयलें शिवलिंग उखलपाचो यत्न करपी रावण, उपरांत हिरण्यकशिपुनृसिंह, शेषशायी विष्णु, गोवर्धनधारी कृष्ण, त्रिविक्रम, गरूडाचेर बशिल्लो विष्णु, पृथ्वीचो उध्दार करपी वराहरुपी विष्णु, कालियामर्दन, शंखचक्रगदाधारी चतुर्भुज विष्णु आनी निमाण्या खणांत अन्नपूर्णेची सोबीत मूर्त आसा.

उत्तरेकडले वण्टींत नंदीदेवतांच्या देवळा लागीं एका दालनांत गजलक्ष्मीचो शिल्पपट आसून, थंयच वयर वचपाखातीर एक सोपान आसा. पयलीं एक मंडप लागता, तातूंत सत्तावीस खांबे आनी कांय अर्दस्तंभ आसात. मंडपाचे उदेंतेवटेन अंतराळ आनी गर्भगृह आसून, गर्भगृहाच्या प्रवेशदाराचेर गंगा आनी यमुना हांच्यो मूर्ती आसात. गर्भगृहांत भग्न योनिपट आसा. फाटले वण्टींत त्रिमुख शिवाचें शिल्प दिसता. मंडपाच्या मुखार नंदी आसून, ताच्या दोनूय वटांनी दोन द्वारपाल आसात. मंडपाचे उत्तरेवटेनचे वण्टींत अर्दस्तंभांक लागून, जाळ्ळ्या खणांत, गणपती, नृसिंहहिरण्यकशिपू, मदल्या खणांत हंस, वृषभ, गरूड ह्या वाहनांचेर बशिल्लो ब्रह्मा, शिव आनी विष्णु, उपरांतच्या खणांत पंचाग्निसाधन करपी उमा आनी निमाण्या खणांत पृथ्वीचो उध्दार करपी वराह हीं शिल्पां आसात. फाटले वण्टींत, सूर्यनारायणाची मूर्त कोरांतिल्ली आसा. प्रदक्षिणापथाच्या एका तोंकाक शिव - पार्वती सारीपाट खेळटात आनी दुसऱ्या तोंकाक शिव - पार्वती आनी सकयल रावण अशें शिल्प आसा. दक्षिणेकडल्या खणांत प्रत्यालीढ अवस्थेंत तांडवनृत्य करपी शिवाचें शिल्प आसा. तेउपरांत कुशीच्या दर एका खांब्याचेर सोबीत शिल्प कोरांतिल्लें आसा. तातूंत गंगाधर शिव, अर्धनारीश्वर आनी महिषासुरमर्दिनी हीं शिल्पां आसात. ह्या मंडपाच्या पारव्याचेर मर्दी कमळांत नटराज शिवाची सुंदर मूर्ती कोरांतल्या. खांबे आनी स्तंभशीर्षांत शालभंजिका आसात.

प्रकाराचे दक्षिणेवटेनचे वण्टींतूय दुसरे माळयेचेर एक लेणें आसून, तातूंत सप्तमातृकांचें देवूळ आसा. ह्यो सप्तमातृकांच्यो मूर्ती वाहनांसकट कोरांतल्यात. तांचे कुशीक वीरभद्र आनी गणपती आसात. उदेंतेकडले वण्टींत चवरां धरील्ले सेविकांसयत सोबीत बायलेचें शिल्प आसा. अस्तंतेकडले वण्टींत विक्राळ काळाची मूर्त आनी दुर्गेच्यो दोन प्रतिमा आसात. ह्या देवळांत दोन यज्ञकुंडां कोरांतिल्लीं आसात. तेखातीर हाका यज्ञशाळा म्हण्टात. कैलास लेण्याचे उत्तरेक एक ल्हान उदकाचो प्रवाह आसून, ताच्या म्हऱ्यांत दोन लेणीं आसात. तातूंत दर्शनी स्तंभ, ल्हान मंडप, द्वारपाल, गंगा - यमुना आनी गर्भगृह आसून, एका लेण्यांतल्या गर्भगृहांत त्रिमुख महेशाची मूर्त फाटले वण्टीचेर कोरांतल्या. ह्या लेण्याचे सकयल एक ल्हानशें लेणे आसून, तातूंत सप्तमातृकांचो शिल्पपट आसा. तातूंत मातृकांच्यो उब्यो मूर्ती आसात. हें सकयलें लेणें इ. स. ७ व्या वा ८ व्या शेंकड्यांतलें आसुंये. दोंगराच्या माथ्याचेर आनीकय कांय लेणी आसात.

लेणें क्रमांक १७ - हें कैलास लेण्याचे उत्तरेक आसा. अग्रमंडपाच्या दोनूय वटांक शिल्पपट आसात. उजवे वटेनच्या शिल्पपटांत कमलाधिष्ठित ब्रह्मा आनी मुखार विष्णुची मूर्त आसा. सभामंडपांत बारा खांबे आसात. ह्या मोटव्या शिल्पां आशिल्ल्या खांब्यांचेर गंधर्व, शालभंजिका, वाद्यवादक अशो सोबीत मूर्ती आसात. गर्भगृहा लागसारच्या सकयल्या भागांत कोनाड्यांत देवतांच्यो मूर्ती आसून, दर एका देवकोष्ठांत कमलधारी देवता दिसतात. गर्भगृहांत ऊंच योनिपटांत शिवलिंग आसा. प्रवेशदारांत भव्य द्वारपाल आसात. ह्या लेण्यांत पयल्या खणांत कुशीचे वण्टींत एकमेका सामकार गणेश

आनी महिषासुरमर्दिनी हांचीं शिल्पां आसात.

लेणें क्रमांक १८ - हाच्या दर्शनी भागांत चार स्तंभ आसून गाभाऱ्यांत शिवलिंग आसा.

लेणे क्रमांक १९ - प्रदक्षिणापथ आशिल्लो गर्भगृह. सोळा खांब्यांचो सभामंडप आनी अग्रमंडप अशी हाची रचणूक आसा. सभामंडपाचे फुडले वटेन मदीं लकुलीश शिवाची मूर्त आसा.

लेणें क्रमांक १९ अ - बौध्द विहाराभशेन हें लेणें आसून अग्रमंडपाच्या दोनय वटांनी दोन ल्हान कुडी आसात. दर्शनी चार खांबे आसून, भितर वचपाखातीर तीन दारां आसात. त्याच भागांत उत्तरेक कुबेराची मूर्त आसा.

लेणें क्रमांक २० - हें एका ऊंच चौथऱ्याचेर आसून, चौथऱ्याच्या दोनय वटांनी दोन सोपान आसात. तांच्या भायल्या कठड्यांचेर हत्तीची सोंड आनी पांय दिसतात. चौथऱ्याच्या मदल्या भागाचेर शिवगणांच्यो आकृत्यो कोरांतल्यात. ह्या चौथऱ्याचेर आनीक एक चौथरो आसून, सोपणां चडून प्रांगणांत वतकच मदीं नंदीचो चबुतरो दिसता. कुशीच्या वण्टींनी उजवेवटेन महिषासुरमर्दिनी आनी दावे वटेन गणपतीची मूर्त आसा.

लेणे क्रमांक २१ - हाका रामेश्वर नांवान वळखतात. प्रांगणांत ऊंच चौथऱ्याचेर नंदी आसा. उत्तरेकडल्या मंडपांत गणेशमूर्त आनी दक्षिणेकडल्या मंडपांत कार्तिकेयाची मूर्त आसा. मुखेल लेण्याच्या दर्शनी भागांत शालभंजिकायुक्त आनी घट आशिल्ले चार खांबे आसून, दोनूय वटांनी अर्दस्तंभ आसात. मदलें रूंद प्रवेशदार सोडून कुशीच्या खांब्यांक जोडपी एक सोबीत कठडो आसा. त्या कठड्याचेर हतयांची रांक आनी ताचेर दर एके कुशीक सात अशीं सुंदर मिथुनां आसात. ह्या कठड्याक तेकून कुशीचे वण्टींत उत्तरेक गंगा आनी दक्षिणेक यमुना हांच्यो सोबीत मूर्ती आसात. दर्शनी खांब्यांवयर कोनाड्यांत नाच करपी शिवगण आनी प्रवेश दाराचेर लकुलीश शिवाची मूर्त दिसता. सभामंडपाच्या दोनय वटांनी दोन दालनांनी सुंदर शिल्पपट आसात. उत्तरेवटेनच्या दालनांत फुडले वण्टीचेर तीन भागांनी शिव - पार्वतीच्या लग्नाची कथा चितारायल्या. कुशीचे वण्टीचेर महिषासुरमर्दिनी आनी कार्तिकेय हांचे शिल्पपट आसात. हाका तेंकून रावणानुग्रह - शिवाचो शिल्पपट आसा. दक्षिणेकडल्या दालनांत मुखावयले वण्टींत वीणाधर शिव, सप्तमातृका आनी गणेश हांच्यो मूर्ती आसात. कुशीचे वण्टींत नटराज शिव, काल - काली हांचे शिल्पपट आसात. ह्या दालनाक तेंकुनूच अस्तंतेवटेनचे वण्टीचेर शिव - पार्वती सारीपाट खेळटना दिसतात. गर्भघरांत ऊंच चबुतऱ्याचेर शिवलिंग आसा. प्रवेश दाराचेर दोन व्हडले द्वारपाल आसून तांच्या म्हऱ्यांत दोन सेवकांच्यो सोबीत मूर्ती आसात.

लेणें क्रमांक २२ - हाका नीळकंठ अशें नांव आसा. प्रवेश दारा उपरांत प्रांगण आसा. तातूंत मदीं ऊंच चबुतऱ्याचेर नंदीमंडप आसा. उजवे वटेंतल्या एका मंडपांत वीरभद्र, सप्तमातृका, गणेश आनी काल हांचीं शिल्पां आसात. मुखेल लेणें प्रांगणापरस खूब ऊंच अशा चौथऱ्याचेर आसून, मुखार सादे चवकोनी खांबे आसात. लेण्याच्या दोनय वटांनी खडप कोरांतून तातूंत दोन द्वारपाल गदेचेर हात दवरून उबे आसात अशें चित्र दाखयलां. अंतरालांत कुशीचे वण्टींत गणेश आनी कार्तिकेय हांच्यो मूर्ती आसून, फाटले वण्टींत गजलक्ष्मी आनी दुसरी एक देवी आसा. गर्भगृहांत शाळुंका आनी शिवलिंग आसा. त्या लिंगाचेर निळयो वळी आशिल्ल्यान ताका नीळकंठ हें नांव मेळ्ळां.

लेणें क्रमांक - २३ हें सामकें सादें आसा.

लेणें क्रमांक - २४ हातूंत चार शिवमंदिरां आसात पूण तातूंत शिवलिंगां नात. उरिल्ल्यो शाळुंका तेलाच्या घाणींभशेन दिसतात म्हूण ह्या लेण्याक तेली का घाना म्हण्टात. हातूंत गणपती आनी शिव हांच्यो ल्हान मूर्ती आसात.

लेणें क्रमांक - २५ हाका कुंभारवाडो म्हण्टात. हाच्या प्रांगणाच्या दर्शनी भागांत गजलक्ष्मी आसा. मुखेल लेणें खूब व्हड आसा. विस्तीर्ण मंडपाच्या उजव्या कोनशाक कुबेराचें सोबीत शिल्प आसा. मदल्या चवकोनांतल्या पारव्याचेर गजलक्ष्मी आसून, गाभाऱ्या कडल्या पारव्याचेर, रथाचेर बशिल्ल्या सूर्याची प्रतिमा कोरांतल्या. गर्भगृहाच्या दोनय कुशींनी द्वारपाल आसून गर्भगृहांत फकत चबुतरो आसा ताचेर मूर्ती ना.

लेणें क्रमांक २६ - हें लेणें खूब व्हड आसून, तातूंत चार खांबे, दोन अर्दस्तंभ आसात. प्रवेश दारालागसार दोन गजमुखां कोरांतल्यांत. मदल्या दालनाच्या दोनय कुशींनी दोन मंडप आसून, फाटले वटेन दोन खांबे आनी दोन अर्दस्तंभ आसात. तांच्या फाटल्यान अंतराळ आसा. अर्दस्तंभांम्हऱ्यांत चवरां घेतिल्ल्यो सेविका आसून तांच्या म्हऱ्यांत एक मोटवो दादलो आनी दुसरी सेविका आसा. ताचे उपरांत गर्भगृह आसून ताचे भोंवतणी प्रदक्षिणापथ आसा. ह्या लेण्याक जानवसा म्हण्टात.

लेणें क्रमांक २७ - हाका गोळणगुंफा म्हण्टात.

ह्या लेण्याच्या माथ्याचेर उदकाचो झरो व्हांवता. हाचे फुडले खांबे अश्टकोनी आशिल्ले. पूण आतां तातुंतलो एकच उरला. ताच्या फाटल्यान लांब पूण अशीर असो अग्रमंडप आसा. मदीं एक दार आसा. दाराचे उजवे वटेन बलराम, सुभद्रा आनी कृष्ण हांच्यो मूर्ती आसात. कुशीचे वण्टींत शेषशायी नारायणाची ओबड - धोबड मूर्त आसा. दाराचे दावे वटेन ब्रह्मा, विष्णु आनी महेश हांच्यो उब्यो प्रतिमा आसून, कुशीचे वण्टींत पृथ्वीचो उध्दार करपी वराह आसा. दावे वटेन दोन जनेलांनी महिषासुरमर्दिनीचें शिल्प आसा. भितरल्या मंडपाचे वण्टींत तीन कुडी आसात. अंतरालाच्या दर्शनी भागांत दोन खांबे आसून, गर्भगृहाच्या प्रवेश दाराम्हऱ्यांत द्वारपाल कोरांतल्यात. गर्भगृहांत

फकत चबुतरो आसा, मूर्त ना.

लेणें क्रमांक - २८ ह्या लेण्याच्या माथ्याचेर झरो व्हांवता. ह्या प्रवेशदाराच्या कुशींनी गंगा आनी यमुना हांचीं शिल्पां आशिल्लीं, तीं नश्ट जाल्यांत. भितर गर्भगृहाच्या दाराकडे दोन द्वारपाल आसात. गर्भगृहांत एक योनिपट आसा. सभामंडपाचे वण्टीचेर अश्टभुजांचे देवीची मूर्त आसा.

लेणें क्रमांक २९ - ह्या लेण्याक सीता की नहानी अशें नांव आसा. हाच्या अग्रमंडपाच्या चौथऱ्याचेर दोन भव्य अशे शींव आसात. उजवे वटेनचे वण्टीचेर अंधकासुरवधाचो शिल्पपट आसा. उपरांत सभामंडप लागता. तातूंत खांब्यांच्यो स वळी आसात. तांच्या दोनय वटांनी भायले वटेन दोन पार्श्वमंडप आसात. उदेंतेवटेनचे वण्टींतलो शिव - पार्वती लग्नाचो सुवाळो पळोवपासारको आसा. प्रांगणांत सरस्वतीची मूर्त आसून, मुखावयले वण्टींत शिव - पार्वती खेळटना दिसतात. उत्तरेकडल्या पार्श्वमंडपांत नटराज शिव आनी लकुलीश शिव हांच्यो मूर्ती आसात. उत्तरेकडल्या प्रांगणाचे कुशीक कूर्मारूढ यमुनेची मूर्त आसा. सभामंडपांत २६ भव्य खांबे आसात. ताच्या फाटल्यांतल्या गर्भगृहाक चारय वटांनी प्रवेशदारां आसात. दर एका दाराकडे दोन द्वारपाल आनी सुंदर सेविका हांचीं शिल्पां आसात. वयर गंधर्वयुग्मां आसात, तीं सोबीत आसात. भितर एका चबुतऱ्याचेर शिवलिंग आसा. ह्या लेण्यांत भितर उजवाड येवपाखातीर प्रांगणाच्या दोनय वटांनी वयर पाख्याक जनेलां दवरल्यांत.

लेण्याक डुमार लेणें अशेंय म्हण्टात. रामेश्वर, दशावतार, कैलास हीं शैव लेणीं आसलीं तरी तातूंत खूब वैश्णव लेणींय आसात.

डुमार आनी रामेश्वर हीं लेणीं खुबूच सुंदर आसात. रामेश्वर ते डुमार अशी अर्दवर्तुळाकार दरीशी आसा. नीळकंठ, तेली का घाना, कुंभारवाडा, जानवसा, गौळणगुंफा हीं लेणी शिल्पकलेचे नदरेन सामान्य आसलीं तरी पावसाच्या दिसांनी थंय तयार जावपी धबधबो पळोवपासारको आसता.

लेणीं क्रमांक १३ ते २९ - ह्या लेण्यांक ब्राह्मणी लेणीं म्हण्टात. हांगासावन फुडें जैनांचीं लेणीं लागतात. वेरुळांतलीं, जैनांचीं हीं लेणीं दिगंबरपंथी आसून, तातूंत गोमटेश्वराची प्रतिमा खूबकडे कोरांतल्या.

लेणें क्रमांक ३० - हाका छोटा कैलास अशें नांव आसा. द्रविड पद्दतीचें हें देवूळ दोंगरापसून कोरांतून काडलां. हाची रचणूक कैलास लेण्याभशेनूच आसा. गर्भगृहांत महावीराची मुखेल मूर्त आसून, कुशीच्या वण्टींनी हेर तीर्थंकरांच्यो प्रतिमा आसात. उत्तरेवटेनचे वण्टींत अश्टभुजांचे देवीची प्रतिमा आसा. सभामंडपांत सोळा खांबे आसात. ताच्या तीनूय वटानी ल्हान मंडप आसात. पाख्याचेर रंगीत चित्रां दिसतात. कुशीचे वण्टीचेर तीर्थंकरांच्यो मूर्ती आसात. गाभाऱ्याच्या दोनय वटांनी आनी वयर उपमंदिरां आसात, तातुंतय तीर्थंकराच्यो वेगवेगळ्या आसनांतल्यो मूर्ती आसात. अग्रमंडपाच्या दोनय कुशींक फाटले वटेनचे वण्टीचेर यक्षाच्यो नृत्यमूर्ती आसात. कांय वण्टींचेर गंधर्वमिथुनां कोरांतल्यांत. गोपुराचे दक्षिणेकडले वण्टींत तीर्थंकरांचीं शिल्पां आसून, उत्तरेकडले वण्टींत ऋषभनाथाची यक्षिणी चक्रेश्वरी हिची प्रतिमा आसा. तिका बारा हात आसून तातूंत पद्म, शंख, चक्र, गदा हीं आयुधां आसात. वाहन म्हणून गरुडाची प्रतिमा आसा.

लेणें क्रमांक (३० अ) - हें लेणें अर्दवट स्थितींत आसा. अग्रमंडपांत चार स्तंभ आनी फाटल्या सभामंडपांत १२ स्तंभ आसात. सभामंडपांत मदीं चतुर्भुज तीर्थंकराची प्रतिमा आसून, वयर पाख्याचेर कमळ कोरांतिल्लें आसा.

लेणें क्रमांक ३१ - हें सामकें ल्हान आसा. सभामंडपांत उजवे वटेन गोमटेश्वराची कायोत्सर्ग मूर्त आनी तिच्या मुखार पार्श्वनाथाची कायोत्सर्ग मूर्त आसा. गर्भगृहांत ध्यानमुद्रेंतली महावीराची मूर्त आसून, वयर त्रिछत्र आनी कुशीक चवरां धरील्ले सेवक आसात. गर्भगृहाच्या भायर दावे वटेन हत्ती आनी मातंगाची मूर्त आसून उजवे वटेन सिंहारूढ सिध्दायिकेची प्रतिमा आसा.

लेणें क्रमांक ३२ - हांगा लेण्यांचो एक चोमो आसा. तातूंत दोन माळयेचीं दोन लेणीं आनी एके माळयेचें एक लेणें आसा तशींच कांय उपासनामंदिरां आसात. तातुंतल्या मुखेल लेण्याक इंद्रसभा म्हण्टात.

प्रांगणाचे मदीं जें दोन माळयांचें लेणे आसा ताकाच 'इंद्रसभा' म्हण्टात. फाटल्यान बारा खांब्यांचो मंडप आसा. शांतिनाथाच्यो दोन प्रचंड नग्न मूर्ती आसात. एके मूर्तीसकयल एक लेख कोरांतिल्लो आसा. मंडपाक तेंकून आशिल्ल्या गाभाऱ्यांत महावीराची प्रतिमा आसा. उपासनामंदिरांत शिंवासनाचेर महावीर, कुशीक पार्श्वनाथ आनी गोमटेश्वर, फाटल्यान इंद्र आनी इंद्राणी हांच्यो मूर्ती आसात. अग्रमंडपांतय इंद्र, इंद्राणीच्यो भव्य प्रतिमा आसात. सभामंडपांत बारा खांबे आसून, तांचे मदीं चतुर्भुज तीर्थंकर आनी पाख्याचेर कमळ कोरांतलां. फाटले वण्टींत गर्भगृह आसा. तातूंत महावीराची मूर्त आनी कुशीक पार्श्वनाथ आनी गोमटेश्वराचे शिल्पपट आसात. सभामंडपाच्या दक्षिणेकडल्या आनी उत्तरेकडल्या कोनशांतल्यान कुशीच्या लेण्यांनी वचपाक मार्ग आसा. ह्या सगळ्या लेण्यांतल्यो तीर्थंकरांच्यो मूर्ती कायोत्सर्ग अवस्थेंत म्हळयार उब्यो वा ध्यानावस्थेंत कोरांतिल्ल्यो आसात.

लेणें क्रमांक ३३ - हाका जगन्नाथसभा म्हण्टात. हें लेणें दोन माळयांचें आसून, तळमजल्याचेर अग्रमंडपांत दोनय वटांनी इंद्र आनी इंद्राणी हांच्यो उत्कृश्ट मूर्ती आसात. पयले माळयेर १२ स्तंभांचो सभामंडप आसून, कुशीचे वण्टींत तीर्थंकरांच्यो प्रतिमा आसात. भितरल्या गाभाऱ्यांत महावीराचे प्रतिमेक, जगन्नाथ समजून ह्या लेण्याक जगन्नाथसभा हें नांव मेळ्ळां. ह्या लेण्याच्या प्रांगणाचे

उत्तरेक आनी दक्षिणेक कांय ल्हान लेणीं आसात.

लेणें क्रमांक ३४ - हातूंत अग्रमंडप, सभामंडप, अंतराळ आनी गर्भगृह आसून, गर्भगृहांत महावीराची प्रतिमा आसा. सभामंडपांत चार स्तंभ आनी पार्श्वनाथ आनी गोमटेश्वराची प्रतिमा आसा.

**गणेशलेणी :** डुमार लेण्याम्हऱ्यांत जो धबधबो आसा, ताचे वयले वटेन सुमार ३०० फूट चडून वतकच ते न्हंयेच्या दरडींभितर ल्हान ल्हान लेणीं आसात, तांकां हें नांव आसा. तातुंतलें पयलें दक्षिणेवटेन तोंड करून आसा, तें खास उल्लेख करपासारकें आसा. तातूंत गोपुर, प्रांगण, अग्रमंडप आनी ताच्या फाटल्यान शिवलिंग आसा. अग्रमंडपाच्या पारव्याचेर आशिल्ल्या चित्रांभितर लिंगोद्भव शिव आनी समुद्रमंथन हे प्रसंग दिसतात. चवथें लेणें अस्तंतेवटेन आसून, तातूंत गणेशमूर्त आसा.

**योगेश्वरी लेणीं** - उदकाच्या प्रवाहाचे देगेन आनीक वयर वतकच योगेश्वरी नांवाचीं आनीक लेणीं मेळटात. तीं ल्हान आसून तातूंत शिवाच्यो प्रतिमा आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**वेरेंकार, गजानन रामचंद्र शेट :** (जल्म : २५ ऑगस्ट १९५७, सांखळी).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९४६ वर्सा ताणें सांखळी ते दिवचल वाठारांत जाल्ले मिरवणुकींत वांटो घेतलो. तेन्ना सावन तो पुर्तुगेजांआड वावरांनी वांटो घेवंक लागलो. शिवाजी देसाय ह्या सुटकेझुजाऱ्याच्या फुडारपणाखाल तो वावर करतालो. २२ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो. धा म्हयन्यांखातीर बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वेरेंकार, देविदास रत्ने :** (जल्म : २७ फेब्रुवारी १९३५, सावय वेरें - फोंडें; मरण : ९ नोव्हेंबर १९८९).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठींतल्यान प्राथमिक शिक्षण घेतलें. तो 'राश्ट्रीय सेवा दल' संघटनेचो वावुरपी वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीखातीर ताणें जायतो वावर केल्लो. २१ जुलय १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरून आग्वाद बंदखणींत दवरलो. फुडें ८ जानेवारी १९५७ ह्या दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वेर्णेकार, बाबला फोंडू :** (जल्म : १९२१, शिवोली - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो 'आझाद गोमंतक दल' आनी 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' ह्या संघटनांचो वांगडी आशिल्लो. तरी ताणें १९५३ सावन सुटके चळवळी खातीर वावर करूंक सुरवात केली. तिरंगी बावटे लावप, पत्रकां वांटप असलीं कामां तो करतालो. मोहन रानडे हाच्या फुडारपणाखाल बाणस्तारी पोलिस ठाण्याचेर तेचपरी अस्नोडा आनी पत्रादेवी पोलिस ठाण्यार हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. उपरांत तो भारतीय शीमेर आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या कॅम्पाखातीर वावर करूंक लागलो. चांदेल पोलिस ठाण्यार तशेंच हणखणें, दमण, कोलें रेल्वेठाण्यार भूंयगत हल्ले करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९५९ वर्सा पर्रा - बारदेस हांगा जाल्ले पुर्तुगेज सैनिकांकडचे चकमकींत बाबलाक रामनाथ दिवकर आनी महादेव अगरवाडेकर हाचेवांगडा अटक जाली. फुडें ताका प्रादेशिक लश्करी न्यायालया मुखार उबो करून २४ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. बंदखणींत ताका पोलिसांनी सुमाराभायर त्रास दिले. गोंय सुटके उपरांत बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वेर्लेकार, गोविंदराव :** (जल्म : ७ जून १९०८ म्हापशें).

एक गायक आनी नट. मुळावें शिकप मराठींतल्यान तर माध्यमिक शिक्षण पोर्तुगेजींतल्यान जालें.

पिरायेच्या धाव्या वर्सासावन ताका गायनकलेंत रस आशिल्लो. सुरवेक तो भजना गावंक लागलो. उपरांत संगीत नाटकांनी ताणें काम केलें. ताणें संगिताचें खाशेलें अशें कांयच शिक्षण घेतलेंना. पूण हेर कलाकार गायकांचें गाणें आयकून आनी तांच्या गायनाचें निरीक्षण आनी अभ्यास करून तो आपसुक गावपाक शिकलो. सराफीचो दायजासावन चलत आयिल्लो धंदो सांबाळून ताणें कलेची जोपासना केली. तो गंधर्वगायकीचो वारस आशिल्लो. तो लय, ताल, स्वरांचो खांपो गायक कलाकार. गोंयची गायन परंपरा सांबाळपी कलाकार म्हणून ताची नामना आसा. सखाराम बर्वे, राजाराम जाधव, बालगंधर्व, दिनानाथ मंगेशकार, रघुवीर सावकार, मनोहर शिरगावंकार, मलबाराव सरदेसाय, अनंत पार्सेकार, श्रीपाद नेवरेकार, सुरेश हळदणकार, गोहरबाई, विष्णुपंत पागनीस ह्या नांवाजत्या कलाकारांवांगडा रंगमाचयेरय ताणें कामां केल्यांत. तशेंच भौशिक आनी खाजगी संगिताच्यो मैफिली गाजयल्यात. दिनानाथ मंगेशकाराचे नाटक कंपनींत कलाकार म्हणून तो वावुरलो. तशेंच गंधर्व मंडळीचो निमाणो 'हिरो' म्हणूनय नामना मेळयली. मानामपान, स्वयंवर, सौभद्र, एकच

प्याला ह्या नाटकांतल्यो धैर्यधर, भीष्मक, अर्जून ह्यो ताच्यो भुमिका गाजल्यो. मुंबयंत गाण्याच्यो शिकवण्योय ताणें केल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**वेलची :** (मराठी : वेलदोडा; हिंदी : एला; इंग्लीश : कार्डेमम; संस्कृतः एला; गुजराती : एलची; लॅटीन : एलेटिरिआ कार्डामोमम).

वेलचेचें शास्त्रीय नांव Elettaria cardamomum. तिका मसालो पिकाची राणी अशेंय म्हण्टात.

वेलचेचें रोप दोन - तीन मी. ऊंच वाडटा. ताचीं पानां एक ते दोन फूट लांब, तीन इंच रूंद आनी सकयले वटेन मोव आसतात. फुलां तांबशा धव्या रंगाचीं आनी वासाळ आसतात. ह्या झाडाचें फळ इल्लेशें आनी कोनाच्या आकाराचें आसता. हें झाड १० - १२ वर्सां जगता आनी ६ - ७ वर्सांमेरेन उत्पन्न दिता.

वेलची दोन तरांची आसता. धाकटी वेलची आनी मोठी वेलची. धाकटी वेलची कर्नाटक आनी केरळांत पिकता जाल्यार मोठी वेलची बंगाल आनी आसामांत पिकता.

हें पीक मूळचें भारतांतलें. भारताभायर वेलचेची लागवड ग्वोतेमाला, टान्झानिया, श्रीलंका, व्हीयेतनाम, लाओस, कंबोडिया ह्या देशांनी करतात. जगांतलें ४०% उत्पादन ग्वोतेमाला ह्या देशांत जाता. भारतांत सुमार ९५००० हेक्टर सुवातेंत वेलचेची लागवड आसा आनी सुमार ४००० मेट्रीक टन वेलची मेळटा. कर्नाटक, केरळ आनी तमिळनाडू ह्या राज्यांनी वेलचेची व्हडा प्रमाणांत लागवड आसा. गोंयांत ह्या पिकाची चडशी लागवड ना. पूण आतां कांय शेतकामत्यांनी कुळागरांनी मिश्रपीक म्हण ताची लागवड केल्या.

ह्या पिकाक लोमी प्रकारची जमीन मानवता. वेलचेची लागवड करपाखातीर बरी निचऱ्याची जमीन निवडटात. जमनींत चड सेंन्द्रिय सारें आसल्यार उत्पादन चड मेळटा. १५०० ते ४००० मिमी. पावसाच्या जाग्यांनी, तशेंच १० - ३५° सॅ. तापमान आशिल्ल्या जाग्यांनी आनी दर्यादिगेपसून ६०० ते १२०० मीटर ऊंच आशिल्ल्या जाग्यांनी वेलचेचें पीक बरें येता. पूण ह्यो जमनी सेंन्द्रिय सारें आशिल्ल्यो आनी बऱ्यो निचऱ्याच्यो आसपाक जाय.

वेलचेच्यो चड जाती विकसीत जाल्ल्यो नात. म्हैसूर, मलबार, वाझुवका अशो कांय जाती आसात. म्हैसूर जातीची वेलची, उंचेल्या भागांनी लावपाखातीर योग्य आसा. हे जातीच्यो वेलच्यो मोठ्यो, पाचव्या रंगाच्यो आनी लांबट आसतात. हे जातीचे वेलचेचीं झाडां ऊंच वाडटात. मलबार जातीचीं झाडां मध्यम आकाराचीं आनी सखल भागांनी लावपाखातीर योग्य आसात. तमिळनाडू आनी कर्नाटक राज्यांनी हे जातीची व्हडा प्रमाणांत लागवड करतात. वाझुवका ही म्हैसूर आनी मलबार ह्या जातींचो सैमीक संकर जावन तयार जाल्ली जात. केरळ राज्यांत हे जातीची व्हडा प्रमाणांत लागवड करतात.

वेलचेची लागवड बियो वा फुटव्यांपसून करतात. हालीं तेंपार टीशु कल्चर ह्या तंत्राचो वापर करून व्हडा प्रमाणांत वेलचेचीं रोपां तयार करतात. सादारण १० - १२ म्हयने पिरायेचो फुटवो लावपाखातीर वापरतात. सप्टेंबर - ऑक्टोबर ह्या म्हयन्यांनी लागवड करतात. ह्या पिकाक सावळेची गरज आशिल्ल्यान कुळागरांनी ह्या पिकाची लागवड करतात. लागवड करपाखातीर ५० x ५० x ५० सेंमी. आकाराचीं २ x २ मीटर अंतराचेर नेमां मारतात. ह्या नेमांनी अर्द किल मसुरीफॉस, अर्द किल स्टेरामील, अर्द किल निम केक आनी दोन कायली कंपोस्ट घालून नेम भरून घेतात. रोपां लायतना चड खोल रोयनात तर वयल्यावयर रोयतात. उपरांत बडयेचो आदार दिवन मुळांत सावळ घालतात. दर वर्सा हय - न्हयशी मातयेची भर घालतात आनी मुळांत सावळ घालतात. पिकाक ५ - ६ दिसांनी एक फावट उदक दितात. वेलचेच्या पिकाक वर्साक ३० किल नत्र, ६० किल स्फुरद आनी ३० किल पलाश दितात. ह्याभायर ५ किल कंपोस्ट वा शेणखत दितात. हें सारें वर्साक दोन फावट वांटून दितात.

वेलचेच्या रोपाक मुळाकडल्यान बारीक सांगांच्यो वाली जातात. रोप लायल्या उपरांत तिसऱ्या वर्सासावन सांगो येवपाक लागतात. ऑक्टोबर - नोव्हेंबर म्हयन्यांत १५ - २० दिसांच्या अंतरान सांगो काडटात. सांगो काडल्याउपरांत त्यो वताक आनी भट्टेंत घालून सुकयतात.

वेलचेच्या पिकाक थ्रीप्स हे किडीपसून उपद्रव जाता. ह्यो किडी पानां, फुलां तशेंच हेर भागांतल्यान रस ओडून घेतात. हे किडीची लागण जाल्यार 0.05% रोगर ह्या वखदाची फवारणी करतात. हेभायर कुसांची कीड, वेलची पोखरपी कीड, कोनरी खावपी कीड, धवो मूस, मावे ह्यासारकिल्ल्या किडींपसून उपद्रव जाता.

वेलचेक जावपी रोगांमदीं काटेरोग हो सगळयांत चड नुकसान करपी आसा. हो रोग विशाणूंपसून जाता. रोगट रोप दिसलें म्हणजे तें काडून उडयतात. हेभायर वेलची कुसप, खोड कुसप, पानांवयले तिबे ह्या सारक्या रोगांची वेलचेक लागण जाता.

एका पुराय वाडिल्ल्या वेलचेच्या झोंपापसून १ किल वेलची मेळटा. वेलचेचो वापर तरेकवार जिन्नस करपाक तशेंच मिठायेंत करतात. खुबशा आयुर्वेदीक वखदांनीय वेलचेचो वापर करतात. तोंडाक रूच हाडपाखातीर वेलच्यो खावंचे पानांनी, विडयांत घालून खातात.

- विश्राम गांवकार

**वेलिंगकार, रामचंद्र नारायण :** (जल्मः १८९६, मुंबय; मरणः ७ नोव्हेंबर १९६२).

शिक्षणतज्ञ, समाजसुदारक आनी कोशकार. मुळावें शिक्षण मुंबय आनी उंचेलें शिक्षण ऑक्सफोर्डाक जालें. हुशार विद्यार्थी म्हणून

ताची नामना आशिल्ली. १९१८ त तो संस्कृत घेवन बी. ए. (ऑनर्स) जालो. १९१९त विलायतेक गेलो. १९२१ त तो इंग्लीश भास आनी वाङ्मय हे विशय घेवन बी. ए. जालो. ताचीं इंग्लीश उलोवपां ओडलायणीं जातालीं. चॉसर - शेक्सपियर चो काळ हो ताच्या भाशणांचो आवडीचो विशय जावन आसलो. १९२३ ते १९२५ मेरेन धारवाडा, १९२५ ते १९३५ मेरेन अहमदाबाद आनी १९३५ ते १९५२ मेरेन मुंबयत एलफिन्स्टन कॉलेजींत इंग्लिशीचो प्राध्यापक आनी प्राचार्य म्हणून ताणें काम केलें. तेचपरी जे. जे. स्कूल ऑफ आर्टसाचो डीन म्हणूनय ताणें काम केलें. उपरांत मुंबयच्या पब्लीक सर्व्हिस कमिशनाचेर वांगडी म्हणून ताची नियुक्ती जाली.

इंग्लीश तशेंच पुर्विल्ल्या मराठीचो, संत वाङ्मयाचो आनी ज्ञानेश्वरीचो व्हड जाणकार म्हणून ताणें नामना जोडली. ताणें ज्ञानेश्वरींतल्या (राजवाडे प्रती वयल्यान) कठीण उतरांची तशेंच ताच्या अर्थाची एक व्हड वळेरी केली. उपरांत ज्ञानेश्वरीच्यो जितल्यो मेळटात तितल्यो प्रती आनी आवृत्त्यो मेळोवन तांचो ताणें अभ्यास केलो. ज्ञानेश्वरीवयले कोशय ताणें अभ्यासले. तशेंच तांचें वाचन मनन केलें आनी आपलो असो नवो ज्ञानेश्वरीवयलो कोश निर्मिलो. 'ज्ञानेश्वरीचे शब्दभांडार' हो ताचो कोश सगळयांत व्हड म्हळयार लागीं लागीं ९०० पानांचो आसून, ज्ञानेश्वरींतलें एकय उतर ताणें सोडूंकना. आर्विल्ल्या कोशशास्त्राच्या आदरान हो कोश ताणें रचला. इकरा परिशिश्टांची ताका जोड दिल्या. मुंबय मराठी ग्रंथसंग्रहालयाच्या मराठी संशोधन मंडळान तो उजवाडायला. ह्याच ताच्या मोलादीक ग्रंथाक १९६० त गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचें भांगरापदक लाबलें.

ताचो हो वावर पळोवन ज्ञानेश्वरीच्या संशोधनारवातीर मुंबय सरकारान जी समिति वेंचली तिचेर वेलिंगकाराची सचिव पदाचेर नेमणूक जाली. ताच्या यत्नांक लागून १९६० त पाठशुध्द ज्ञानेश्वरी प्रसिद्द जाली. उपरांत ताचेकडेन एकनाथी भागवताचें कामय सोंपयलें, पूण तें पुराय जावंक पावलेंना. ह्या वावरावांगडाच समाजीक वावरय ताणें केलो. १९२१ त शिरोड्यांत (गोंय) भरील्ल्या गोमंतक मराठा समाज परिशदेचें यजमानपद ताणें चलयलें. उपरांत मुंबयच्या गोमंतक मराठा समाजाच्या अध्यक्ष आनी उपाध्यक्षपदार तो वावुरलो. १९४२ ते १९४६ मेरेन तो समाजाच्या 'समाजसुधारक' ह्या मुखपत्राचो संपादक आशिल्लो.

ज्ञानेश्वरीतले शब्दभांडार ह्या मोलादीक ग्रंथाच्या निमतान मुंबय मराठी ग्रंथ संग्रहालयाकडेन ताचो लागींचो संबंद आयिल्ल्यान फुडाराक ह्या संग्रहाचो ट्रस्टी म्हणूनय ताणें काम केलें. ताच्या मरणा उपरांत मु. म. ग्रंथसंग्रहालयान एका सभाघराक ताचें नांव दिलें. दुर्मीळ असो ताचो ग्रंथसंग्रह मुंबई मराठी संग्रहालयाक अर्पण केल्लो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**वेळीप, चंद्रकांत लक्ष्मण :** (जल्म : १५ जून १९३८, महालवाडा - पैंगीण - काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें एस्. एस्. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. माजाळी आनी आंगडी हांगाच्या जात बसकांनी वांटो घेवप, थंयच्यान राश्ट्रीय पत्रकां हाडप आनी वांटप असलीं कामां तो करतालो. १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा काणकोण पोलिस ठाण्यार सत्याग्रह करपांत ताणें हेरांवांगडा वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार घालो आनी बंदखणींत दवरलो. उपरांत प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ३० जानेवारी १९५८ दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वेळीप, बाबू रामा :** (जल्म : १० मे १९३०, लोलयें - काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण इंग्लीश आनी हिंदींतल्यान घेतलें आनी माध्यमिक मेरेनचें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. सुटके चळवळीच्या काळांत बसकांनी वांटो घेवप, पत्रकां चिकटावप, पुस्तिका वांटप असलीं कामां तो करतालो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा पैंगिणी सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो तेन्ना पोलिसांनी ताका अटक केली, खूब मार दिलो आनी आठ म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेच परी दंड भरलो ना जाल्यार आनीक दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. फुडें २० ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वेळीप, भीसो बुदू :** (जल्म : पैंगीण - काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा काणकोणां सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो. प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून चार वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली आनी दोन वर्सां गनीमी काव्याचें शिक्षण घेतलें. फुडें तीन वर्सां ख्यास्त भोगतकच आग्वाद बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वेळीप, यशवंत गोविंद :** (जल्मः ३० जानेवारी १९३०, पैंगीण - काणकोण).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. १९५५ वर्सा ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतलो आनी दुर्गादिवी, महालावाडो, मुठाळ, सादोळशें, घोडकामळ हांगाच्यान मिरवणूक काडली. तेन्ना पोलिसांनी तांकां कानमळयार पावतकच अटक केली. प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून धा वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण चार वर्सां आनी सात म्हयने बंदखणीची ख्यास्त भोगतकच ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**वेळुस्कार, रमेश भगवंत :** (जल्म : १० नोव्हेंबर १९४७ पाळें, शिरदोन - तिसवाडी).

एक प्रतिभावंत कोंकणी कवी. ताच्या बापायचें नांव भगवंत आनी आवयचें नांव रखुमाबाय. ताचो बापूय गायन - वादनांत तरबेज आशिल्लो. पाळयांत रमेशाचें मराठी आनी पुर्तुगेज प्राथमिक शिक्षण जाल्या उपरांत ताणें पिलार, पणजे शाळेंत उरिल्लें शिक्षण पुराय केलें. उपरांत ताणें पणजे मिरामारच्या धेंपे कॉलेजींत इंग्लीश स्नातक शिक्षण पुराय केलें, पूण परिक्षा दिलीना. ताचेपयलींच ताणें हिंदींत पंडित परिक्षा दिल्ली आनी हिंदी शिक्षक सनदचीय पदवी मेळयल्ली. मागीर ताणें बंगाली भाशेचोय कोर्स ओरिसांत पुराय केलो. थंयच ताची ताच्यावांगडा बंगाली भाशा शिकपी रायबरेली, मध्य प्रदेशाची श्रीमती मिथिलेश कुमारी हिचेकडेन इश्टागत जाली. उपरांत तांचें लग्नय जालें. तांकां दोन चलयो आनी एक चलो अशीं तीन भुरगीं आसात. तो व्हडल्या गोंया सेंट ॲण्ड्रूज हायस्कुलांत फाटलीं सुमार तीस वर्सां शिकयता.



ताणें सुरवेक सावन कविता होच साहित्य प्रकार मुखेलपणान केळयलो. ताची कविता ही कोंकणी साहित्यांतलो एक आगळोच आविश्कार आनी अभिव्यक्ती. ताचे 'मोरपारवां', 'माती', 'आंगणी नाचता मोरमोरया', 'सावुलगोरी', 'हिरण्यगर्भ', 'तनर जोती' हे कविता संग्रह उजवाडा आयल्यात. तशेंच भुरग्यांखातीर बरयल्ले 'भूक भूक भिशू', 'चांदीमामा' आनी 'फुलपाकुलें' हे बाल कविता संग्रह नामनेचे आसात. 'मोनीव्यथा' ही ताची कादंबरिका. ताणें भाशांतराचेंय काम केलां. तातूंत 'अंधायुग' (नाटक) आनी 'राम कृष्णोपनिषद' हांचो आस्पाव जाता. ताणें कर्तारसिंग दुग्गळाच्यो कांय पंजाबी एकांकिका आनी गुरूदेव टागोराचीं कांय गितांय कोंकणींत हाडल्यांत. भारतांतल्या साबार प्रांतांनी जाल्ल्या राश्ट्रीय कविसंमेलनांनी ताणें वांटो घेतला आनी प्रबंधय सादर केल्यात. ताणें समीक्षाय केल्यात.

१९९२ ते १९९४ मेरेन तो कोंकणी भाशा मंडळाचो अध्यक्ष, १९९२ ते १९९५ मेरेन गोवा कला अकादमीचो वांगडी आनी १९९४ ते १९९६ मेरेन गोवा कोंकणी अकादमीचो वांगडी आशिल्लो. ताका जायते पुरस्कार फाव जाल्यात. १९६८ त ताका कॉलेजींत शिकतना कोंकणी भाशा मंडळाचो 'कविराज' हो पुरस्कार फाव जालो. उपरांत कोंकणी भाशा मंडळाचो पुरस्कार ताच्या 'मोरपारवां' आनी 'भूक भूक भिशू' ह्या पुस्तकांक फाव जाले. गोवा कला अकादमीचे दोन पुरस्कार ताच्या 'मोनी व्यथा' आनी 'फुलपाकुलें' ह्या पुस्तकांक फाव जाले. ताच्या 'सावुलगोरी' ह्या पुस्तकाक १९९० चो कोंकणी खातीर आशिल्लो राश्ट्रीय साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जालो. १९९७ त धी गोवा हिंदू असोसिएशन मुंबय हांणी ताका पद्मश्री बा. भ. बोरकार पुरस्कार दिवन ताचो भौमान केलो.

वेळुस्काराचे लेखणेक चिरंतन सत्याचो स्पर्श आसा. ताचे कवितेंत सैम जिवें तट्‌तटीत जाल्लें पळोवपाक मेळटा. सैमाचे अभिव्यक्तींतल्यान तो सदांच मनाच्या तळार देंवता आनी सौंदर्यानुभुतीचो साक्षात्कार घडयता आनी मानवी रुपांचे आविश्कार दाखयतात. ताच्या सैम कवितांत आध्यात्मिक गुणधर्म दिसता आनी लोकवेदय सहजतायेन आपलें आंग दाखयता. सद्या तो दीर्घ कवितेच्या मागार आसा. ताची 'इहलोकाचें एक पेणें' ही दिर्घ कविता कोंकणी कवितेंतलो वेगळो टप्पो दाखयता.

- प्रकाश पाडगांवकार

**वैकुंठ :** एक अलौकीक पवित्र स्थळ. श्रीविष्णुचो राबितो आशिल्ल्या ह्या स्थळाचें वर्णन पुराणकारांनी केलां तेप्रमाण वैकुंठ भूलोकासावन १८ कोटी योजन अंतरार आसा. तो खूब सोबीत आनी दिव्य घरांनी सुशोभीत आसा. तातूंत वापी तळीं आनी न्हंयो आसात. थंयच्या उदकांत हंस, सारस आनी चक्रवाक हे पक्षी विहार करतात. चंपक, अशोक, कल्हार, मंदार, बकुल हीं झाडां थंय सगळयाक मेळटात. थंय मनोरम आनी दिव्य अशीं रानां आसात. चित्रांनी सोबीत आनी रत्नांनी भरील्ले अशे भांगराचे राजवाडे आसात. ह्या लोकांमदीं गावपी गंधर्व आनी अप्सरा हांचो कलाविलास सदांच चलता. ऋशी - मुनी त्या जाग्यार वेदपठण करून लक्ष्मीची आनी भगवंताची तोखणाय करतात.

वैकुंठांत श्रीविष्णुचो दिव्य, सोबीत असो राजवाडो आसा. ताका चार दारां आसून, भांगराचीं गोपुरां आसात. उदेंतेच्या दारार

चंड - प्रचंड, दक्षिण दाराचेर भद्र - सुभद्र, अस्तमतेच्या दाराचेर जय - विजय आनी उत्तरेच्या दाराचेर धाता - विधाता ह्या नांवाचे द्वारपाल आसात. थंय सगळे अलंकार घालून श्रीविष्णु बशिल्लो आसा.

वैकुंठाचे उदेंतेक वासुदेवाचें देवूळ आसून, दक्षिणेक संकर्षणाचो राजवाडो, नैऋत्य दिकेक सरस्वतीचो राबितो, अस्तमतेक प्रद्युम्नाचें देवूळ, वायव्येक रतिलोक, उत्तरेक अनिरूध्दाचें स्थान आसा आनी इशान्येक शांतिलोक आसा. वैकुंठाभोंवतणी सात आवरणां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**वैकुंठ एकादस :** मार्गशीर्ष शुध्द एकादशीक वैंकुंठ एकादस म्हण्टात. दक्षिणेंत हिका मुक्कोडी एकादस म्हण्टात. मुक्कोडो म्हणजे तीन कोटी. कृतयुगांत मुरन नांवाचो राक्षस देवांक खूब त्रास दिवपाक लागलो. ताकालागून सगळे देव विष्णुकडेन गेले. मागीर तांकां वाटावपाखातीर विष्णुन अवतार घेवन त्या राक्षसाक मारलो. त्या वेळार विष्णुवांगडा मुक्कोडो (तीन कोटी) देव धर्तरेचेर अवतरले. त्या दिसा एकादस आशिल्ली. तेखातीर हे एकादशीक मुक्कोडी एकादस म्हण्टात.

हे एकादशीक विष्णुची पुजा करून उपास करपाचो आसता. हे एकादशीन जायत्यो एकादशी केल्ल्याचें पुण्य मेळटा. ह्या व्रताची कथा अशी आसा -

रुक्मांगद नांवाचो राजा पयलीं धर्तरेचेर राज्य करतालो. ताचे राजधानींतली एक बाग सदांच सोबीत आनी सुवासीक फुलांनी भरिल्ली आसताली. एक दीस परमेश्वराची पुजा करपाक इंद्राक फुलां जाय आशिल्लीं. कांय देवांक ताणें फुलां हाडपाक धर्तरेचेर धाडले. रुक्मांगदाचे बागेंतल्यान ते देव सदांच फुलां चोरून व्हरपाक लागले. अद्दश्यपणान ते हें काम करताले तेखातीर कोणाक कळनासताना, फुलां सदांच ना जातालीं.

एक दीस जाबाली ऋषी बागेलागीं चिंतन करीत बशिल्लो. राखणदारांक तोच फुलांचो चोर कसो दिसलो. तांणी जाबालीक धरलो आनी राजामुखार उबो केलो. राजा ऋषीक वळखतालो देखून ताणें ताची माफी मागली. जाबालीन राजाक कांय वनस्पती दिल्यो आनी बागेंत तांचो धुंवर करपाक सांगलें. त्या धुंवराच्या प्रभावाक लागून फुलां चोरपी देवांक पार्थिव रूप फाव जालें. त्या जड रुपान तांकां सर्गांत वचप जमलेंना. तांणीं सगळी खबर राजाक सांगली. तांकां लघुरुपान सर्गांत वचपाक जाय आशिल्लें आनी तेखातीर कोणाचेंय तरी पुण्यफल जाय आशिल्लें. राजान नगरांत तशी दवंडी दिली. तें आयकून एक मडवळीण मुखार आयली आनी तिणें आपले एकादशीव्रताचें पुण्य देवांक दिलें. त्या पुण्याकलागून देव सर्गांत गेले. मडवळणीन हें पुण्य मार्गशीर्ष शुध्द एकादशीच्या व्रतान मेळयल्लें.

भौतिक वस्तुंच्या ओडींतल्यान सुटका, सूख - समाधानाचो लाव आनी शेवटाक वैकुंठप्राप्ती अशें ह्या व्रताचें फल आसा.

दक्षिणेंत ह्या व्रताचें माहात्म्य खूब आसा. त्या दिसा लोक सकाळींफुडें उठून न्हातात आनी विष्णुच्या देवळांत वतात. उपास करून जागरण, विष्णुपुराणाचें वाचप आनी आयकप करतात.

तमिळनाडूंतल्या विष्णुच्या देवळांक एक वेगळें दार आसता. ताका वैकुंठ - वासळ (वैकुंठाक वचपी दार) म्हण्टात. वर्सांतल्यान फकत एकदांच हे तिथीक तें दार उगडटात.

तिरूचिरापल्लीकय विष्णुच्या देवळांनी वैकुंठ एकादशीचो उत्सव एकवीस दीस चलता. हजारांनी लोक त्या उत्सवाखातीर थंय जमतात.

- कों. वि. सं. मं.

**वैदू :** वखदां विकपाक भोंवपी लोकांची एक जात. भोई, धनगर, खारवी, आनी फुलकार हे वेगवेगळे जातीचे लोक ह्या धंद्यांत आस्पावतात. महाराष्ट्रांतल्या पुणे, खानदेश, नासिक आनी अहमदनगर ह्या म्हालांनी ह्या लोकांच्यो वसणुको आसात. ते मूळचे हैद्राबादचे. हैद्राबादालागीं कुडेरमट्टी गांवाच्या एका धनगराक ते गुरू मानतात. तिरूपतीचो वेंकोबा हो तांचो देव. तांच्यांतले चडशे लोक तेलुगू भास उलयतात. हे लोक महाराष्ट्रांत आयल्या उपरांत कांय मराठी उलोवपी लोक त्या लोकांमदीं भरसले. हांच्यो तीन मुखेल पोटजाती आसून, झोळीवाले, दाढीवाले आनी चटईवाले अशीं तांचीं नांवां आसात. दाढीवाले हे दाढी वाडोवपी पूण बाकीचे वैदू दाढी वाडयनात. हे लोक वर्सुयभर बायल भुरग्यांसयत गांवागांवानी भोवून वखदां विकतात आनी भिकय मागतात. हे लोक गांवाभायल्या मळाचेर तंबू बांदून रावतात. सामान हाड - व्हर करपाखातीर गाढवां सांबाळटात. ह्या लोकांचीं धा - बारा कुटूंबां मेळून भोंवतात. तांचेकडेन बोकड्यो, कोंबयो आनी बरेच शिकारी सुणें आसतात. रानांत वचून ते सोंशे, तरस, गार, जिवाणीं, माकड, हुंदीर, घुशी, बेबकां, रानमाजरां ह्या जनावरांक धरतात.

हे लोक वेंकोबा, मरिअम्म आनी मारूती ह्या देवांक मानतात. दसरो आनी शिगमो हे दोनच सण पाळटात. दसऱ्या दिसा देवाक बोकड्याचो बळी दिवन ताचें मांस खातात.

तांचेकडेन भगव्या रंगाच्या कपड्याच्यो झोळयो आसतात. तातूंत झाडाचीं मुळां, पानां, वखदां, वेगवेगळीं भस्मां आनी वीख आसता. तशेंच खंयच्याय दुयेसाचें वखद तांचेकडेन आसता. तांचे झोळयेंत शेडूयाची कात, साळीचे कांटे, वाघाचीं नाखटां, वांस्वेलाचे केंस, दांत, कोल्याची तकली ह्यो वस्तू आसतात. रस्त्यांतल्यान भोंवता आसताना हे लोक नाडीपरीक्षा वैद, मंडूर वैद, गर्मी वैद, वाताल वखद, थंडेक वखद अशा कितल्याश्याच रोगांचीं नांवां घेवन आडुत वतात. तांच्यो बायलो वखदां विकपाच्या धंद्याभायर रांगोळी आनी शेंदऱ्यो करून विकतात.

आंबिले, जाधव, शिंदे, फुलकार, खारवी, मडवळ अशीं तांचीं आडनांवां आसतात. एकाच आडनांवाच्या घराण्यांत वा देव एकूच आसल्यार ह्या लोकांमदीं लग्नसंबंद जुळून येनात वा लग्न करिनात. तांच्या दर एका पंगडाचो एक मुखेली आसता. तो जाती वेवस्थेचें नियंत्रण करता.

पयलीं कुणबी, धनगर ह्या जातींतल्या लोकांक तांचे जातींत प्रवेश मेळटालो. त्या वेळार प्रवेश घेवपी मनशाक एक झोळी दिताले. ताणें ते झोळयेची पुजा केल्या उपरांत ताका वखदांचें आनी दुयेसांचें गिन्यान दिताले.

तेउपरांत ताणें सगळया जातींतल्या भावांक जेवण दिल्या उपरांत हो सुवाळो सोंपतालो.

चलो - चली वयांत आयल्या उपरांत तांचीं लग्नां करतात. लग्नाखातीर न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेक मागणी घालता आनी तिचे खातीर ताका हुंडोय दिवंचो पडटा. गांवचो जोशी म्हूर्त सांगता. सादारणपणान ते जातींतलो जाण्टो मनीस आनी म्हालो मेळून लग्नसुवाळो करतात. मराठा वैदू मात तेखातीर पुरोयत ब्राह्मणाक आपयता. धनगर वैदू गांवच्या मडवळाकडल्यान लग्नाचो विधी करतात.

पयलीं व्हंकलेक आनी मागीर न्हवऱ्याक तेल हळद लायतात. न्हवऱ्याक वाजयत - गाजयत व्हंकलेच्या घरा व्हरतात. थंय जमनीचेर कपडो घालून ताचेर गंवाचो चौकोन करतात. ताचेर न्हवऱ्याक बसयतात आनी व्हंकलेक ताचे दावेवटेन बसयतात. पांच सवायशिणी बायलो तांच्या कपलाक गायच्या शेणाचें भस्म लायतात आनी जेवण वाडटात. दुसऱ्या दिसा व्हंकलेच्या गळयांत गळसरी बांदतात आनी दोगांयच्या हातांत कांकणां घालून दोगांयच्या वस्त्राची गांठ मारतात. उपरांत न्हवरो - व्हंकल एकामेकांचीं नांवां घेतात. मागीर सगळींजाणां न्हवऱ्याच्या घरा वतात. कांकणां घालप होच लग्नांतलो मुखेल विधी आसता. जांचीं देवकां आसात, तीं आपलीं देवकां घेवन मारूतीच्या देवळांत वचून मारूती मुखार दवरून तीं परतीं घरा हाडटात. पयलीं ह्या लोकांमदीं खूब बायलो करपाची, विधवांनी परत लग्न जावपाची आनी घटस्फोटाची चाल रूढ आशिल्ली.

हे लोक मेल्ल्या मनशाचें मडें जाळटात ना जाल्यार पुरतात. दाढीवाले वैदू मडें पुरतात. मेल्लो मनीस लग्न जाल्लो आसल्यार ताचें मडें बशिल्ले अवस्थेंत पुरतात. जें मडें पुरपाचें आसता तें एके झोळयेंत दवरून ती झोळी कोंड्याक बांदून दोन मनशां ती घेवन मसंडेंत वतात. जें मडें जाळपाचें आसता, तें तिरडेवयल्यान व्हरतात. मडें जाळळया उपरांत तिसऱ्या दिसा गोबर न्हंयेंत व्हरून उडयतात आनी जंय मडें लासलां वा पुरलां थंय अन्न उदक दवरतात. इकराव्या दिसा जंगमासयत सगळेजाण न्हंयेचेर वचून मेल्ल्या मनशाच्या भुरग्याक न्हंयेंत उबो दवरतात आनी सुपांत तीन पींड घेवन ते फाटले वटेन उडयतात. मागीर तो आपूण जावन उदकांत पडटा. मागीर जंगम शंख वाजोवन घोशणा करता, मेल्ल्याचो आत्मो कैलासाक गेला. हे लोक श्राध्द करीनात. आधुनिक काळांत तांच्या चाली रितींनी बदल घडिल्ले दिसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**वैद्यकशास्त्र :** आयुर्वेदाच्या आदारान रोगचिकित्सा आनी दुयेंसाचेर उपाय करपाचें शास्त्र. भरद्वाजाचे शिश्य धन्वंतरी आनी आत्रेय हे ह्या शास्त्राचे आदले प्रवर्तक म्हूण मानतात. धन्वंतरीन शल्यतंत्राचो आनी आत्रेयान, भिषग्विद्येचो प्रसार केल्लो. धन्वंतरीचो शिश्य सुश्रुत हाणें आपले संहितेंत शल्यतंत्राचें ज्ञान एकठांय केलें. आत्रेयाचो शिश्य अग्निवेश हाचो शिश्य चरक हाणें आपले संहितेंत कायचिकित्सेचें गिन्यान एकठांय केलें. चरक संहिता आनी सुश्रुत संहिता हे दोन ग्रंथ वैद्यकशास्त्राचे ग्रंथ म्हूण मानतात.

हिंदूंचे शस्त्रक्रियेचें गिन्यान आनी कुशळताय पुर्विल्ल्या काळांत खूब उदरगतीक पाविल्लें. नाक, कान आनी कुडीचे हेर अवयव कापून त्या जाग्यार नवे बसोवपाचें काम त्या काळांत करताले. तेखातीर लागपी शस्त्रां खूब तीक्ष्ण आनी नाजूक आसतालीं अशें समजप जाता.

वैद्यकाची परंपरा वेदाइतली पुर्विल्ली आसा. वैदिक युगांत ह्या धंद्याक मान आशिल्लो. त्या काळांतले प्रसिद्द वैद्य अश्विनीकुमार खाशेल्या वखदांचो उपयोग करून वायटकारांक पिडामुक्ती दिताले. लुळे, पांगळे, कुड्डे हांचेर लेगीत उपाय करताले. अथर्ववेदांत वखदां आनी मंत्र ह्या दोनांचोय उपेग रोग ना करपाक सांगला. धर्मसुत्रकारांनी मात वैद्यांच्या धंद्याक उणो मानला. यजुर्वेदांतय तशेंच मत सांपडटा. पूण कालांतरान वैद्यकाक परत नामना मेळ्ळी. रोग निवारून मनशाक सुखशांती मेळोवन दिवपी भिषग्वर्याक समाजांत मानसन्मान मेळपाक लागलो.

वेगवेगळया झाडांचेर आनी जिनसांचेर संशोधन करून त्या वखदांचो गुणधर्म जाणून घेवन पिडा नश्ट करपाची पद्दत शेंकड्यांनी वर्सां सावन चालू आशिल्ली. वैजकशास्त्राचें समग्र तात्त्विक आनी वेव्हारीक शिक्षण, तक्षशिला, नालंदा ह्या विद्यापिठांतल्यान दिताले. तशेंच खोलायेन अभ्यास केल्ले वैद्य समाजाच्या सगळया थरांतल्या वायटकारांक बरे तरेन वखद विरसद करताले. राजा, सरदार हांचे मात खाशेले वैद्य आसताले. वैद्य वायटकारांकडच्यान प्राप्तीची अपेक्षा बाळगिनाशिल्ले. पूण वायटकार आपल्याक तांकता तेप्रमाण तांकां दक्षणां दिताले.

ह्या वैजकशास्त्राचो विकास पयलीं भारतांत जालो आनी उपरांत तें गिन्यान अरबस्तान, युरोप ह्या देशांनी पावलें अशें इतिहास सांगता. इ. स. ८ व्या शेंकड्यासावन अरबस्तानांतले कांय जाणकार पंडित हांगा येवन संस्कृत ग्रंथांचीं भाशांतरां करूंक लागले. तांणी

हांगाच्या कांय जाणकारांक आपल्या वांगडा बगदादाक व्हरून तांचे कडल्यान त्या पंडितांनी गिन्यान मेळयलें. अरबी भाशांतरांनी अश्विनीकुमार, सुश्रुत, चरक, हांचीं नांवां आयिल्लीं आसून तांची तोखणाय केल्ली आसा. अरबी भाशेंतल्या ग्रंथांवयल्यान आर्य वैजकाचो प्रसार युरोपांतल्या वेगवेगळया देशांनी जालो. हांच्या वांगडा ग्रीक लोकांनीय आर्य वैद्यकाचें गिन्यान मेळोवन ताचो प्रसार केलो. ही वैजकशास्त्राची परंपरा उपरांत खंडीत जाली आसली तरी आधुनिक वैजकीशास्त्राचें अधिश्ठान ह्या वैद्यक शास्त्राचेर आसा असो कांय जाणकारांचो विश्वास आसा. तशेंच आधुनिक शास्त्रीय पद्दतीमार्फत आयुर्वेदीक आनी तत्सम वैजकशास्त्राचो पुनर्विचार करपाकडेन आता विद्वानांचें लक्ष गेलां आनी तेवरवीं एकंदर वैजकीशास्त्राक एक नवें योगदान मेळूंक लागलां.

- कों. वि. सं. मं.

**वैद्य, गजानन भास्कर :** (जल्म : इ. स. १८६७; मरण इ. स. १९२१).

आर्विल्लो हिंदू मिशनरी. मुंबयचे हिंदू मिशनरी सोसायटीचो संस्थापक. मुंबय इ. स. १८९३ वर्सा बी. ए. जातकच १८९८ वर्सासावन ताणें थिऑसॉफीचो प्रचार सुरू केलो. इ. स. १८९९ ते १९२० ह्या काळांत तो मुंबयच्या मराठी ग्रंथसंग्रहालयाचो अध्यक्ष आशिल्लो. मजगतीं इ. स. १९०४ ते १९२१ ह्या काळांत तो दादाभाई नौरोजीन काडील्ल्या स्टुडंटस् लिटररी आनी सायंटिफिक सोसायटीच्या विद्यालयांत अध्यापक आशिल्लो. तो बरो वक्तोय आशिल्लो. भासाभास करपांत खूब कुशळ तेचभशेन बरोवपांत आनी उलोवपांत खूब मार्मिक आशिल्लो.

बाटिल्ल्या हिंदूंक परतून धर्मांत घेवंचे ह्या मताचो ताणें पुरस्कार केलो. जुलय १९१७ वर्सा ताणें मिशनरी सोसायटीची स्थापणूक करून, हिंदू मिशनरी हें सातोळें सुरू केलें. तशेंच परधर्मांत गेल्ल्या आनी जल्मल्ल्या शंबर दादले - बायलांक शुध्द करून हिंदू धर्मांत घेतले.

ताणें रेखात्मक यथार्थ दर्शन, चित्रविद्या, प्रश्नोपनिषद, देहदानमीमांसा, विष्णुचे अवतार, हितोपदेशकथा, विक्रमोर्वशीयम्, सनातन धर्मविचार, सनातन धर्मसंवाद, आश्रम आनी आश्रमधर्म, उपनयनविधी, वैदिक विवाहविधी अशीं व्हान व्हड पुस्तकां बरयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**वैद्य, दादा ऊर्फ रामचंद्र पांडुरंग :** (जल्मः ८ सप्टेंबर १८५९ केरी - फोंडें; मरणः ६ मार्च १९४७ कवळ - हवेली फोंडें).

व्हड आयुर्वेदाचार्य, साहित्यीक आनी समाजसुदारक. वैद्य घराणें मुळचें पानवेल (तिसवाडी)चें. ताचें मूळ आडनांव वायंगळ. बाटाबाटीच्या वेळार हें कुटूंब वळवय केरी हांगा पावलें. पानवेलसावन आयले म्हणून पानवेलकार आनी दायजात चलत आयिल्लो वैजकीचो धंदो म्हणून वैद्य हीं दोन उपनांवां तांकां मेळ्ळीं.



ल्हानपणांतच ताचें मराठी आनी ब्रह्मकर्माक आवश्यक तें संस्कृत शिक्षण घरांतूच जालें. आर्य वैजकीचें गिन्यान ताका आपल्या बापायकडल्यान मेळ्ळें. अस्तंतेकडले वैजकीचें गिन्यान मेळोवचें अशी ताची इत्सा आशिल्ली. पूण घरच्यांनी ताका गोंयाभायर वचपाक मना केलो. तेन्ना जोगळेकार नांवाच्या ॲलोपॅथीक डॉक्टराकडल्यान देड दोन वर्साचें गिन्यान ताणें मेळयलें आनी थोड्याच काळाभितर वैजकी वेवसायांत यश आनी कीर्त जोडली. गोंयचो एक व्हड 'धन्वंतरी' म्हणून तो नामनेक पावलो. वयाची साठी जायमेरेन ताणें वैजकी केली. धंदो वा वेवसाय म्हणून न्हय तर एके तरेची जनसेवा म्हूण ताणें वैजकी वेवसायाकडेन पळयलें.

ल्हानपणासावन व्हड व्हड ग्रंथ, तशेंच खबरांपत्रां वाचपाची ताका आवड आशिल्ली. केसरी, इंदुप्रकाश, सुधारक, निबंधमाला ह्या पत्रांनी ताचेर संस्कार केले. गोंयचे उदरगतीखातीर आपणें कितेंय तरी करूंक जाय अशें ताका दिसपाक लागलें आनी वयाच्या २० व्या वर्सा समाजीक कर्तव्याचे भावनेन तो बरोवंक लागलो. आपले विचार सगळया लोकांमेरेन पावोवपाखातीर ताणें आपली अर्थीक पदरमोड करून लुज द् ओरिएंती, विद्याप्रसार, पथ्य बोद, प्राचीप्रभा हीं पत्रां सुरू केलीं. हळद कुंकू हें खासा बायलांखातीर नेमाळें ताणें चलयलें. ताचो हो वावर वृत्तपत्र साहित्याच्या इतिहासांत भोव मोलाचो आसा. आपल्या ह्या हेर पत्रांतल्यान विंगड विंगड तरांचें लिखाण ताणें केलें. काव्यतरंगिणी, स्थूलतनू वर्णन, मृत्युंजय नाटक, प्रबोधसुधाकर (टीका), प्रकृति विकृती (प्रहसन), स्फुरणगीतां, आत्मबोध, सुकन्याचरित्र हीं ताचीं पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. दर एका पुस्तकांतल्यान वेगवेगळे साहित्य प्रकार आनी विशय ताणें केळयले. कुटूंबनियोजनावयलें 'कुंपणाने शेत खाण्याची नवलाई' म्हळयार 'संतती नियमनाची अपूर्वता' हें ताचें त्यावेळावयलें पुस्तक म्हळयार एक धाडसूच जावन आसा. गद्यापरस ताणें पद्य चड बरयलां. तेभायर ताचें कितलें तरी साहित्य अप्रकाशीत उरलां.

हिंदु समाजाच्या पुनरुत्थानाचें सर्वांगीण कार्य ताणें आपले जीणेंत केलें. ह्याच कार्याक ताणें तन, मन, धन, ओंपलें. गोवा हिंदू सार्वजनिक सभेंतल्यान ताणें आपल्या भौशिक कार्याक सुरवात केली. हे सभेक एक राजकीय आंगय आशिल्लें. हिंदू समाज किरिस्तांव

समाजाचे तुळेन राजकारणांत फाटीं आसा. राज्यकारभारांत तांकां वाटो मेळना, अस्तंतेकडल्या विद्यांनीय तो फुडें सरूंक ना, हाचें ताका दुख्ख आशिल्लें. महाराष्ट्रांत शिक्षणाचें, अर्थीक विकासाचे, स्वदेशीचे आनी ताका लेखून उद्येगीकरणाचे जे प्रयोग जाताले, तशेंच गोंयांतय जावंक जाय, गोंयची नवी पिळगी बळिश्ट आनी शिलवान जावंक जाय, ही ताची व्हड इत्सा आशिल्ली. हेचखातीर १९११ त ताणें फोंड्यांत शिक्षण प्रसारक मंडळ काडून आल्मैद कॉलेज हे शिक्षण संस्थेची स्थापणूक केली. पुर्तुगेज राजवटींत प्रतिकूल परिस्थितींत फकत समाजांतल्या थोड्याच आपवावुरप्यांच्या बळग्यार आनी सामान्य समाजाच्या आदारार स्वता अर्थीक मदत करून ही शिक्षण संस्था चलयली, तशेंच हेर चळवळी चलोवन आपलें कार्य सुरू दवरलें. हाचे भायर ताणें आयुर्वेदिक रसशाळाय काडली. मयडें हांगा नळयांचो कारखानो उबारलो. पणजी - मडगांव हांगा आयुर्वेदिक वखदां विकपाचे दवाखाने घाले. तशेंच कंवची आनी साकर कारखाने घालपाचेय यत्न केले. गोंयची उद्येगीक उदरगत जावंक जाय ह्या हेतून ताणें हे सगळे यत्न केले.

जेन्ना शिश्ट समाज नट, नाटकांसावन चार हात पयस रावतालो तेन्ना ताणें हजारांनी रुपया वगडावन नाटक मंडळीय काडली. हाचेवयल्यान आर्यवैद्यक, शिक्षण, वाङ्मय, उद्येगधंदे आनी कला ह्या पांचय मळांर ताणें कामगिरी केल्ली दिसून येता. देखूनच ताचें कार्य राजकीय, समाजीक, शिक्षणिक, उद्येगीक आनी संस्कृतीक अशें पांच पोडी जावन आसा.

दादा वैद्य हो प्रगत विचारांचो, धर्मीक वृत्तीचो आनी समाज सुदारणेविशीं सुदारकी वळणाचो आशिल्लो. निमाणेकडेन ताणें संन्यासाश्रम आपणायलो आनी कवळें - हवेली हांगा एके खोपींत तो रावंक लागलो. वयाच्या ८७ व्या वर्सा ताणें आपलें कुडीचो त्याग केलो. लागीं लागीं पांच तपां ताणें लोकहिताचें कार्य केलें. मरणापयलीं कांय दीस ताणें धर्म आनी शिक्षणाखातीर एक ट्रस्टय निर्मिलो. ताच्या वावराची दखल घेवन पुर्तुगेज सरकारान फोंड्या ताचो पुर्णाकृती पुतळो उबारलो. आयज ते सुवातेक दादा वैद्य चौक अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**वैद्यनाथ :** एक शिवस्थान. हें बिहारांतल्या संताळपरगणा जिल्ह्यांत देवघर गांवांत आसा. हें शिवलिंग बारा ज्योतिर्लिंगांतलें नासून तें देवघरचें आसा. सतीचें काळीज हे सुवातीर गळून पडलें आनी हांगा शिवान ताचें दहन केलें अशी आख्यायिका आसा. ताकालागून हें एक शक्तिपीठय मानतात.

बैजू नांवाच्या भिल्लान त्या शिवलिंगाची पुजा केली आनी जल्मभर सेवा केली. तेखातीर त्या शिवलिंगाक बैजनाथ हें नांव मेळळें. ताचेंच फुडें 'वैद्यनाथ' अशें नांव रूढ जालें.

ह्या देवळाम्हन्यांत शिवगंगा नांवाचें एक व्हड कूंड आसून, देवाचें दर्शन घेवंचे पयलीं यात्रेकरी त्या कुंडांत न्हातात. चडशे लोक ह्या कुंडांतलें उदक त्या शिंवलिंगाचेर घालतात. ह्या कुंडालागसार एक बांय आसा. ते बांयंत सगळ्या न्हंयांचें तीर्थ एकठांय मेळटा अशें म्हण्टात. रावणान ती बांय तयार केली अशी दंतकथा आसून, ते बांयचें उदक पियेल्ल्यान कुश्टरोग लेगीत बरो जाता असोय समज आसा. ह्या वाठारांत आनीकय देवळां आसात. वैद्यनाथ देवळासामकार आशिल्लें गौरीमंदिर हें हांगाचें शक्तिपीठ आसा. तशींच हांगा कार्तिकेय, गणपती, ब्रह्मा, संध्यादेवी, कालभैरव, हनुमान, मनसादेवी, सरस्वती, सूर्य, श्रीराम, गंगा, हरगौरी, कालिका, अन्नपूर्णा, लक्ष्मीनारायण, नीलकंठ, महादेव ह्या देवतांचींय देवळां आसात. उदेंतेक एका पर्वताचेर तपोवन नांवाचे सुवातेर एक शिवमंदिर आसून थंयचे थळावे लोक ताका वाल्मीकीचें तपोवन अशें म्हण्टात. देवघरासावन १० मैलांचेर 'त्रिकूट' पर्वताचेर त्रिकूटेश्वराचें देवूळ आसा. तशेंच वैद्यनाथाचे वायव्येक नंदन पर्वताचेर छिन्नमस्ता देवीचें देवूळ आनी मुळसांत कालीचें देवूळ आसा.

वैद्यनाथ ह्या शिवस्थानाविशीं शिवपुराणांत एक कथा आसा ती अशी - लंकेचो राजा रावण हाणें एकदां कैलास पर्वताचेर वचून खर तप केलें. तेन्ना शंकरान प्रसन्न जावन रावणाक जाय तो वर मागपाक सांगलो. शंकरान लंकेंत येवन रावचें असो रावणान वर मागलो. म्हूण शंकरान ताका एक ज्योतिर्लिंग दिलें आनी लंकेंत व्हरून त्या लिंगाची स्थापना करपाक सांगलें. पूण वाटेर हें लिंग खंयच दवरूंक फावना, सकयल दवरल्यार परतून तें काडपाक मेळचेंना अशेंय सांगलें. पूण देवाक तें शिवलिंग लंकेंत वचचें न्हय अशें दिसतालें. म्हणून मळबांतल्यान लंकेंत वचपी रावणाच्या आंगांत वरूणान प्रवेश केलो आनी रावणाक कडकडून मुतूंक जालें. तेखातीर तो पृथ्वीचेर देवलो. इतल्यांत विष्णु एका जाण्ट्या ब्राह्मणाच्या रुपांत थंय आयलो. रावणान ताचेकडे थोडो वेळ लिंग धरपाखातीर दिलें. खूब वेळ वाट पळोवन रावण आयलोना तेन्ना ब्राह्मणरुपी विष्णुन तें लिंग जमनीर दवरलें आनी तो अदृश्य जालो. उपरांत तें लिंग थंयच प्रस्थापित जालें. रावणासंबंदींच्यो अशोच दंतकथा आनीकय कांय शिवलिंगा संबंदीं आयकूंक मेळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**वैशंपायन :** एक महर्षी. कृष्ण यजुर्वेदाचो प्रवर्तक. ऋग्वेदांतल्या कितल्याशाच मंत्रांचो नवो अर्थ लावपाचें युगप्रवर्तक कार्य वैशंपायनान सुरू केलें अशी ताची नामना आसा. वैशंपायनाचें वैयक्तिक चरित्र उपलब्ध ना पूण ताणें जें कार्य केलां, ताचेवयल्यान ताका एक म्हान आचार्य मानतात. कृष्ण यजुर्वेदाची तैत्तिरीय संहिता ताणें निर्माण केली. तैत्तिरीय आरण्यक, आश्वलायन, कौषीतकी आनी बोधायन

ह्या गृह्यसुत्रांनी ताचो उल्लेख मेळटा. शबरस्वामी म्हण्टा, 'स्मर्यते च वैशंपायन : सर्वशाखाध्यायी' म्हळ्यार वैशंपायनान कृष्ण यजुर्वेदाच्या सगळ्या शाखांचें अध्ययन केल्लें, अशी स्मृती आसा. वैशंपायनान आपल्या शिश्यांक पुराय यजुर्वेदशाखांचें अध्यापनय केल्लें. पाणिनीन एक वैदिक गुरू म्हूण वैशंपायनाचो निर्देश केला.

व्यासमुनीच्या चार मुखेल वेदप्रवर्तक शिश्यांतलो वैशंपायन हो एक शिश्य आशिल्लो. ताका पुराय यजुर्वेदाचें ज्ञान प्राप्त जाल्लें असो उल्लेख पुराणांत खूबकडे मेळटा.

व्यासाकडल्यान मेळिल्ल्या कृष्ण यजुर्वेदाच्यो ताणें ८६ संहिता केल्यो आनी त्यो आपल्या ८६ शिश्यांक वांटल्यो. विष्णुपुराणाप्रमाण हो आंकडो २७ आसा. ताच्या ८५ शिश्यांनी कृष्ण यजुर्वेदाच्या प्रसाराचें कार्य केलें.

भुगोलीक भेदाप्रमाण ताची शिश्यपरंपरा उत्तर भारत, मध्य भारत आनी उदेंत भारत ह्या तीन विभागांनी काम करताली तेविशीं एक श्लोक आसा तो असो -

आलम्बिश्चरक : प्राचां पलङ्गकमलावुभौ ।<br>
ऋचाभारुणिताण्ड्याश्च मध्यमीयास्त्रयोऽपरे ।।<br>
श्यामायन उदोच्येषु उक्तः कठकलापिनो : ।।

**अर्थ** - आलंबी, पलंग आनी कामली अशे तीन चरण देशाच्या उदेंत भागांत; ऋचाभ, आरुणी आनी तांड्य हे चरण मध्य देशांत आनी श्यामायन, कठ आनी कलापी हे तीन चरण उत्तर विभागांत वेदप्रसाराचें कार्य करताले.

कृष्ण यजुर्वेदाक उपरांत तैत्तिरीय हें नांव पडलें तेविशीं एक कथा आसा ती अशी - वैशंपायनाचो याज्ञवल्क्य नांवाचो एक शिश्य आशिल्लो. ताकाय वैशंपायनान कृष्ण यजुर्वेद शिकयल्लो. पूण फुडें त्या दोगांयचें एकामेकाकडेन पटना जालें. वैशंपायनाक ताचें वर्तन आवडना जालें. तेन्ना ताणें आपणें शिकयल्लो कृष्ण यजुर्वेद, याज्ञवल्काकडेन परत मागलो. तें आयकून याज्ञवल्कान गुरूकडल्यान मेळिल्ल्या वेदाचें वमन केलें. तेबरोबर वैशंपायनाच्या हेर शिश्यांनी तित्तिर पक्ष्याचें रूप घेवन तो वेद परतून ग्रहण केलो. फुडें ह्या तित्तिर शब्दावयल्यान कृष्ण यजुर्वेदाक वैदिक परंपरेत तैत्तिरीय म्हणूंक लागले.

वैशंपायनाच्या ८५ शाखांभितरल्यो तैत्तिरीय, मैत्रायणी, कठ आनी कपिष्ठल इतक्योच शाखा सद्या विद्यमान आसून, बाकीच्यो शाखो ना जाल्यात.

हाच्या फुडल्या काळांत कृष्ण यजुर्वेदाक चरक हें नांव पडलें. ज्ञान मेळोवपाखातीर देशभर भोंवडी करपी विद्वान असो 'चरक' ह्या उतराचो अर्थ आसा. वैशंपायन आनी ताचे शिश्य भोंवडेर आसताले. तेखातीर ताका आनी ताच्या शिश्यांक चरक म्हणूंक लागले. काशिकेंत म्हळां, 'चरक इति वैशम्पायनस्य आख्या'. यज्ञांत अध्वर्यूचें काम यजुर्वेदाकडे आसता. वैशंपायनाचे शिश्य यज्ञांत आध्वर्यक करपाक लागिल्ल्यान तांकां याज्ञिक परंपरेंत चरकाध्वर्यू म्हणूंक लागले.

व्यासान आपलो 'जय' नांवाचो ग्रंथ सगळ्यांत पयलीं वैशंपायनाक दाखयलो. हो ग्रंथ कौरव - पांडव हांच्या झुजापुरतोच मर्यादीत आशिल्लो. ताचे फकत ८८०० श्लोक आशिल्ले. वैशंपायनान ह्या ग्रंथाची वाड करून तो २४ हजार श्लोकांचो केलो आनी त्या ग्रंथाक 'भारत' हें नांव दिलें.

अर्जुनाचो नातू जन्मेजय हाच्या दरबारांत वैशंपायन राजपुरोयत आशिल्लो. जन्मेजयाक आपल्या पुर्वजांची कथा आयकुपाची इत्सा जाली आनी ताणें वैशंपायनाक, आपल्याक सांगपाची विनवणी केली. वैशंपायनान ती कथा जन्मेजयाक सांगली पूण ते कथेंत खूब वाड केली. वैशंपायनाच्या ह्या २४ हजार श्लोकांच्या भारताचें 'महाभारत' करपाचें काम फुडें सौतीन केलें.

वैशंपायन हो जन्मेजयाचो राजपुरोयत पूण याज्ञवल्क्य आनी वैशंपायन हांच्या झगड्यांत ताका आपलें पुरोयतपण सोडून राज्यत्यागूय करचो पडलो. जन्मेजयाचेर याज्ञवल्क्याचो प्रभाव पडलो आनी ताणें कृष्ण यजुर्वेदाचो त्याग करून याज्ञवल्क्याचो शुक्ल यजुर्वेद आपणायलो. स्वताच्या अश्वमेध यज्ञांत ताणें वैशंपायनाक वगळून याज्ञवल्क्याकूच ब्रह्मा हें सगळयांत श्रेश्ठ ऋत्विजाचें पद दिलें.

वैशंपायनान संहिता, नीतिसंग्रह, स्मृती आनी नीतिप्रकाशिका अशे चार ग्रंथ बरयले.

वैशंपायन हें एक गोत्राचेंय नांव आसा. ऋषितर्पणांत ताचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**वैशाख** : चांद्र वर्साचो दुसरो म्हयनो. ह्या म्हयन्याचे पुनवेक वा तिच्या फाटीफुडें विशाखा नक्षत्र आसता, म्हणून ह्या म्हयन्याक वैशाख हें नांव मेळ्ळां. ह्या म्हयन्याचें पुर्विल्लें नांव 'माधव' आशिल्लें. चैत्र आनी वैशाख हे दोन वसंत ऋतूचे म्हयने मानतात. पूण वैशाख म्हयन्यांत गरमी आशिल्ल्यान ह्या म्हयन्यांतलीं सगळीं धर्मीक कार्यां, व्रतां - वैकल्यां गिमाक योग्य अशींच सांगल्यांत.

वैशाख म्हयन्यांतलीं धर्मीक कृत्यां अशीं आसात - ह्या म्हयन्यांतल्यो तय, चतुर्दस आनी पुनव ह्यो तिथी चड पवित्र मानतात. तयेक अक्षय तृतीया म्हण्टात कारण त्या दिसा केल्लें दान, हवन हीं कृत्यां अक्षय्य जातात. हेच तिथीक परशुरामजयंतीय आसता. चतुर्दशीक नरसिंहजयंती आसता. पुनवेक दानधर्म केल्यार चड पुण्य मेळटा. तशेंच वैशाख शुध्द सप्तमीक गंगेची पुजा करची अशेंय सांगलां कारण, हे तिथीक जन्हून गिळिल्ली गंगा आपल्या उजव्या कानांतल्यान भायर सोडली. अश्टमीक दुर्गेची अपराजिता ह्या नांवान पुजा करची. वैशाख शुध्द नमीक बंगालांत सीता नम म्हण्टात, कारण त्या दिसा जनक राजाक जमीन नांगरताना सीता मेळिल्ली. त्याच दिसा जमीन

दान दिल्यार पुण्य मेळटा असो भावार्थ आसा. दसमीक आद्य शंकराचार्याची जयंती आसता. वैशाख पुनवेक बुध्दजयंती आसता.

वैशाख म्हयन्यांत उदकदान करचें; देवाक उदकाचो अभिशेक करचो; पायतणां, सत्र्यो, पंखे, तलम वस्त्रां, चंदन, उदकाचीं पात्रां, फुलां, शीतल पेयां, द्राक्षां, केळीं हांचें दान करचें, अशें स्कंदपुराणांत सांगलां. पुराय म्हयनोभर फांतोडेर न्हावपाक जमना जाल्यार तिरोदस, चतुर्दस आनी पुनव ह्या तीन दिसांक तरी न्हावचें. तशें केल्ल्यान पापांतल्यान मुक्ती मेळटा.

ह्या म्हयन्यांत फांतोडेर न्हावप खूब पुण्यप्रद आसा. तुळ, मकर आनी मेष ह्या राशींनी सूर्य आसता तेन्ना पवित्र न्हंयांनी न्हाल्यार महापातकांचो नाश जाता. ह्या म्हयन्यांत फांतोडेर न्हाल्यार अश्वमेधाचें फळ मेळटा. ह्या म्हयन्यांत काळया आनी धव्या तुळशीच्या कणसांनी भगवंताची पुजा करपी मनीस नारायणस्वरूप जाता. सकाळींफुडें न्हावन अश्वत्थाच्या मुळांक उदक घालून प्रदक्षिणा घातल्यार पितर, देव आनी सगळया जगाचें तर्पण केल्ल्याभशेन जाता. एक जेवण जेवल्यार, नक्त म्हळयार रातीचें एक जेवण जेवल्यार वा अयाचित जेवण घेतल्यार सगळे मनोरथ पूर्ण जाता.

वैशाख हो मलमास आसल्यार, त्या म्हयन्यांत काम्य कर्मसमाप्तीचो निशेध सांगला. तेखातीर उपरांत दोन म्हयने न्हावचें पूण म्हयन्याचो उपास आनी चांद्रायणा सारक्या व्रतांचें ह्या म्हयन्यांत उद्यापन करचें.

- कों. वि. सं. मं.

**वैशाली :** एक पुर्विल्लें भारतीय नगर आनी गणराज्य. आयच्या विहारांतल्या मुझफरपूर म्हालांत आसपी हाजीपूर परगण्यांतलें बसाढ नांवाचें गांव. हाकाच पुर्विल्लें वैशालीचें स्थान मानप जाता. तशेंच चंपारण्य, मुझफरपूर, दरभंगा ह्या वाठारांचो बरोचसो भाग ह्या नगराच्या पुर्विल्ल्या विस्तारांत आस्पाविल्लो आशिल्लो. हाची शीम निश्चीतपणान जरी सांगूंक येना आसली, तरी अस्तमतेक गंडक, उदेंतेक पुर्विल्लें गंडक, दक्षिणेक गंगा आनी उत्तरेक हिमालय पर्वत ह्या भूंयेच्या भागार वैशालीचें साम्राज्य आसलें.

वैशालीचें सगळयांत पयलें वर्णन वाल्मीकिरामायणांत मेळटा. थंय वैशाली नगर गंगेचे उत्तर देगेक तेंकलां म्हणपाचें कळटा. अवदान कल्पलता ह्या ग्रंथांतल्या वर्णनाप्रमाण वैशाली फल्गुमती न्हंयेच्या देगेचेर वशिल्ली.

वाल्मीकीरामायणांत ह्या नगराचे निर्मितीविशीं एक कथा सांगल्या ती अशी - अलंबुषा नांवाची एक अप्सरा आशिल्ली. तिका इक्ष्वाकू वंशांतल्या त्याच नांवाच्या राजाकडल्यान एक चलो जालो. ताचें नांव विशाल. ताणें हें नगर वसयल्ल्यान नगराचें नांव वैशाली पडलें. मनुचो पूत नाभानेदिष्ट हो वैशालीचो पयलो राजा आनी सुमती हो निमणो राजा. ताच्या फुडल्या वैशालीच्या राजांची वंशावळ मेळना. तशेंच राम जेन्ना सिता स्वयंवरा खातीर मिथिलेक वतालो तेन्ना ताका वाटेंत वैशाली नगर लागिल्लें.

वैशालीचो इतिहास बुध्दकाळासावन मेळटा. त्या काळांतल्या स नगरांत वैशालीचो पयलो मान आसलो. तेन्ना थंय लिच्छवी वंशाचें राज्य आशिल्लें आनी वैशालींतल्या लोकसंख्येचो आंकडो व्हडलो आशिल्लो. व्हडलीं व्हडलीं सोबीत देवळां, राजवाडे, बागो, उद्यानां, तळीं, हीं ह्या नगराचीं भूशणां आसात. मार्टिन आनी कनिंगहॅम हांणी बसाढ हांगा सांपडिल्ल्या ध्वंसावशेशांवयल्यान वैशालीची त्या काळची मांडणी कशी आशिल्ली हाचें शब्दचित्र उबें केलां. राजा विशाल हाचो प्रासाद दक्षिण दिका सोडून तीनूय वटांनी उदकान रेवाडिल्लो आसा. पावसाळयांत आनी शियाळयांत राजा लागशिल्ल्या एका किल्ल्यांत वचून रावतालो. हो किल्लो आयच्या बसाढ गांवालागीं आसून तो उत्तरेक ७५७ फूट, दक्षिणेक ७८० फूट, उदेंतेक १६५५ फूट आनी अस्तंतेक १६५० असो ताचो व्हडलो आंवाठ आसा. किल्ल्या भोंवतणचीं फोणकुलां १५ फूट खोल आनी १२५ फूट रूंद आशिल्लीं. ब्लाश हांगा एक गणपतीची मूर्तय सांपडल्या.

वैशाली भोंवतणीं सुमार बावन्न तळीं आसात, अशी एक दंतकथा आसा. दुसरे एके दंतकथेवयल्यान पुराणांतल्या बलीराजाक वामनान पाताळांत धाडिल्ल्याची घडणूक वैशालीलागींच घडिल्ल्याचें सांगलां. बली हो बसाढ हांगा रावतालो हें दंतकथेवयल्यान कळटा.

गौतम बुध्दाच्या काळांत इशान्य भारतांतलें एक गणराज्य म्हण वैशालीची सगळयाक नामना आशिल्ली. त्या काळांत ज्यो ज्यो नामनेच्यो राजवटी उदेल्यो वा जे जे म्हत्वाचे राश्ट्रीय प्रसंग घडले, त्या सगळयांचो ह्या ना त्या कारणांतल्यान वैशालीकडेन संबंद येता. वैशाली नगरांत एक व्हडलें सभाघर आशिल्लें. थंय लिच्छवांच्यो सभा जाताल्यो आनी थंयूच ते सगळे एकमतान निर्णय घेताले.

भगवान बुध्दाक वैशाली नगराची चड ओड आसली. थंयच्या आम्रवनांत आनी नगराभायल्या महावनांत ताचे परत परत मुक्काम आसताले. ताणें आपली संस्मरणीय धर्मप्रवचनां चडशीं वैशालीच्या वाठारांत केल्लीं. वैशालीची नगर वधू आम्रपाली ही तर बुध्दाच्या पयल्या दर्शनान गुल्ल जावन, सर्वसंगपरीत्याग करून भिक्षुणी जाल्ली.

भगवान महावीराची आवय त्रिशला ही वैशालीच्याच राजघराण्यांतल्या केतक नांवाच्या राजाची भयण आशिल्ली. वैशालीच्या कुंडग्राम नांवाच्या उपनगरांत महावीर जल्माक आयलो. अभयदेवसुरीन भवानीसूत्र ह्या ग्रंथाचेर बरयल्ले टीकेंत वैशालीचे पूत ह्या अर्थान महावीराक वैशालिक आनी ताचे आवयक वैशालीसूता अशा अर्थान विशाला अशें म्हळां. महावीराचें भुरगेपणूय वैशालींतूच गेलें आनी जिनदीक्षे उपरांतचे बारा पावसाळे ताणें हांगाच काडले. महावीराचो वैशालीनगराकडे असो घट संबंद आशिल्ल्याकारणान जैन लोकांच्या

मताप्रमाण वैशाली नगर हें तीर्थरूप थरलां.

युआन च्वांग हाच्या वर्णनावयल्यान कळटा तें अशें : वैशालींत, बुध्दाचे मुखेल शिश्य आनंद आनी सारीपूत मोग्गलायन हांचे यादीखातीर स्तूप बांदले. एका व्हडल्या तळयाचे देगेर ५० फूट ऊंच असो एक खांबो आसून, ताचेर एक शींवाची मूर्ती आसली. ह्या गौतम बुध्दाच्या महापरिनिर्वाणा उपरांत सुमार ११० वर्सांनी वैशालींत एक बौध्द धर्मपरिशद भरली तातूंत सुमार सातशें बौध्द भिक्षूंनी वांटो घेतिल्लो. वैशालीच्या लिच्छवी गणांनीय बुध्दाच्या अवशेशाचेर वैशालीक एक स्तूप उबारिल्लो तो ७ व्या शेंकड्यांत अस्तित्वांत आशिल्लो. पूण फुडें मात तो केन्नातरी भूयेंच्या पोटांत गडप जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**वैश्य :** (पळेयात वर्णवेवस्था).

**वोडेयर राजघराणें :** पयलींच्या म्हैसूर संस्थानाचेर राज्य करपी एक घराणें. ह्या घराण्याविशीं एक कथा आसा ती अशी - इ. स. १३९९ वर्सा मथुरा हांगाच्या घराण्यांतलो यादव राजदेव नांवाच्या राजाचे दोन पूत यदुराय आनी कृष्णराय हे दक्षिणेंत आयले. म्हैसूरांत येतकच तांणी भोंवतणच्या देवतांचें दर्शन घेतलें. तेन्नाच म्हैसूराचेर राज्य करपी चामराज ह्या स्थानिक राजाक मरण आयलें आनी मार नायक ह्या मनशान राजाची सत्ता बळकावन चामराजाचे बायलेक आनी धुवेक त्रास दिवंक लागलो. चामराजाचे बायलेक जेन्ना यदुराय आनी कृष्णराय ह्या राजपुरसांच्या आगमनाची खबर कळ्ळी तेन्ना तिणें तांचेकडे आदार मागलो. कृष्णराय आनी यदुराय हांणी तिका आदार करपाचें उतर दिवन मार नायकाचेर हल्लो केलो आनी ताका जिवो मारलो. उपरांत यदुरायान राजकन्येवांगडा लग्न केलें. यदुराय म्हैसूरचो राजा जालो. ताणें चोवीस वर्सां राज्य केलें. मेलकोटे हांगाच्या देवीच्या प्रसादान आपल्याक हें राज्य मेळ्ळें असो भावार्थ आशिल्ल्यान दोंगराचेर एक किल्लो बांदून ताका ताणें मेलकोटे अशें नांव दिलें. यदुराया उपरांत ताचो व्हडलो पूत चामराज हो गादयेर बसलो. ताणें इ.स. १४२३ ते १४५९ अशीं छत्तीस वर्सां राज्य केलें. उपरांत ताचो पूत थिम्मराज वोडेयर १४५९ - १४७८ आनी चामराज वोडेयर दुसरो १४७८ - १५१३, चामराज वोडेयर, तिसरो १५१३ - १५५३, थिम्मराज वोडेयर दुसरो १५५३ - १५७२, चामराज वोडेयर, चवथो १५७२ - १५७८ ह्या राजांनी राज्य केलें. पूण तांचेविशीं चड म्हायती मेळना.

हांचे उपरांत राज वोडेयर (१५७८ - १६१७) ह्या पराक्रमी आनी मुत्सद्दी राजान भोंवतणच्या मांडलिक राजांक जिरवून घेतले. इ.स. १६१० वर्सा ताणें श्रीरंगपट्टम हांगाच्या विजयनगराचे राजप्रतिनिधीक धांवडावन घालून थंय आपली राजधानी व्हेली. हो राजा धर्मनिश्ठ, विद्वान आनी सुसंस्कृत आशिल्लो. श्रीरंगपट्टम, म्हैसूर आनी मेलकोटे हांगाच्या देवळांचो ताणें जीर्णोद्वार केलो आनी तांच्या खर्चाखातीर जमनी लावन दिल्यो. प्रजेचें हित पळोवपी ह्या राजाक इ.स. १६१७ वर्सा मरण आयलें.

चामराज वोडेयर - पयलो (इ.स. १६१७ - १६३७) : आजो राज वोडेयर हाका मरण आयलें तेन्ना चामराज चवदा वर्सांचो आशिल्लो. देखून राज्याचो कारभार, सेनापती बेट्टड अरसू हो पळेतालो. चामराजाचे कारकीर्दींत म्हैसूरचें राज्य चारूय वटांनी वाडलें. हो राजा सैन्याची खूब जतनाय घेतालो. त्या काळांत प्रचलित आशिल्ल्या शैव, वैश्णव आनी जैन ह्या तीनूय पंथांक ताणें आलाशिरो दिल्लो. तो स्वता शैव आनी वैश्णव ह्या दोनूय देवतांक भजतालो. ताणें श्रीरंगपट्टणालागसार कावेरी न्हंयेक आशिल्ल्या कालव्यांचें पुनरुज्जीवन केलें आनी कावेरीचेर एक पूल बांदलो. मेलकोटे हांगाच्या कल्याणी ह्या पवित्र तलावाचेर यात्रेकरूंक न्हावपाखातीर घाट बांदले. चामराज स्वता मल्लविद्यानिपुण, उत्तम घोडेस्वार, साहित्यमोगी आनी वीणावादक आशिल्लो. बऱ्याचशा विद्वानांक ताणें आलाशिरो दिल्लो. चामराजान स्वता ब्रह्मोत्तरखंड हो शैव तत्त्वज्ञान आनी आचार हेसंबंदींचो ग्रंथ रचलो. तशेंच ताणें रामायणाची कथा चामराजोक्तिविलास ह्या नांवान कन्नड गद्यांत बरयली.

राज वोडेयर दुसरो (इ.स. १६३७ - १६३८) : चामराजाक इ.स. १६३७ वर्सा मरण येतकच राज वोडेयरचो पूत राज वोडेयर दुसरो ह्या नांवान गादयेर बसलो. त्या वेळार तो पंचवीस वर्सांचो आशिल्लो. ताचो सेनापती विक्रमराय हाचें आनी राजाचें वायटपण जालें आनी राजा दुयेंत आसतना सेनापतीन वैद्याचेवतीन ताका वीख घालून जिवो मारलो.

रणधीर कंठीरव नरसराज वोडेयर (इ.स. १६३८ - १६५९): राज वोडेयर दुसरो हाका पूत नाशिल्ल्यान ताचे उपरांत राज वोडेयर पयलो हाचो भाव बेट्टड चामराज हाचो पूत रणधीर कंठीरव नरसराज हो गादयेर बसलो. हो खूब बळिश्ट आशिल्लो. आपले सेनापती तो सतत बदलतालो. आपले वीस वर्सांचे कारकीर्दींत ताणें धा सेनापती बदलले. राज वोडेयर हाणें सुरू केल्ले राज्यपद्दतीचो ताणें बारीकसाणेन अभ्यास केलो. जमीनमहसूल एकठावपाखातीर, हिशेब पळोवपाखातीर, प्रजेच्या रक्षणाखातीर ताणें योग्य अधिकाऱ्यांची नेमणूक केली. तो खूब धार्मिकूय आशिल्लो. ताणें श्रीरंगपट्टण, म्हैसूर, मेलकोटे, नंजनगुड हांगा शिवाचीं आनी विष्णुचीं नवीं देवळां बांदलीं, पोरन्या देवळांचो जीर्णोध्दार करून तांच्या खर्चाखातीर देणग्यो दिल्यो. कलाकारांक ताणें आलाशिरो दिलो. संस्कृत आनी कन्नड भाशेंतल्या विद्वानांक ताणें सदांच उर्बा दिली. ताका धा राणयो आशिल्ल्यो पूण एकूच पूत आशिल्लो. ताकाय पिरायेच्या पांचव्या वर्सा मरण आयलें. कंठीरवाक इ.स. १६५९ वर्सा पिरायेच्या पंचेचाळिसाव्या वर्सा मरण

आयलें.

देवराज वोडेयर (इ.स. १६५९ - १६७३) : कंठीरव नरसराजा उपरांत ताचो पुतणयो, राज वोडेयरच्या सवती भावाचो पूत, देवराज हो गादयेर आयलो, तेन्ना तो बत्तीस वर्सांचो आशिल्लो. गादयेर येनाफुडें ताका दुस्मानांच्या हल्ल्यांक तोंड दिवचें पडलें. सगळयांत पयलीं ताणें बिदनूरच्या शिवप्पा नाईक आनी ताचो मांडलिक श्रीरंग राजा हांचो पराभव केलो. उपरांत ताणें मदुरेच्या नायक राजाक हारयलो आनी ताचोय मुलूख बळकायलो. तशेंच ह्या शत्रुंकडल्यान मेळिल्ल्या लुटींतल्या रत्नांनी ताणें आपलीं जोर्ती सजयलीं आनी उरिल्ली लूट आपल्या सैनिकांक वांटली. आपल्या राज्यांतल्यान भोंवपी भोंवडेकारांक आनी यात्रेकरू लोकांक ताणें बऱ्योचशो सवलती उपलब्ध करून दिल्यो. तो सतत प्रजेचें हित पळयतालो देखून प्रजाय ताचेर संतुश्ट आसताली. ताचे कारकीर्दींत म्हैसूराक साम्राज्याचो दर्जो फाव जालो.

चिक्क देवराज वोडेयर (इ.स. १६७३ - १७०४) : देवराजा उपरांत ताचो पुतणयो चिक्क देवराज राजा जालो. गादयेर बसलो तेन्ना तो अठ्ठावीस वर्सांचो आशिल्लो. आपले कारकीर्दींत ताणें मदुरेचो चोक्कनाथ नायक, सत्यमंगलम, धारापुरम अशा राजांचो पराभव करून जैत मेळयलें. उपरांत इक्केरीच्या राजावांगडा जाल्ल्या झुजांत मात ताका यश मेळ्ळेंना. हाचे उपरांत विजापूरच्या राजावांगडा ताचीं झगडीं जायत उरलीं.

इ.स. १६७७ वर्सा शिवाजी महाराजान घाल्ले घुरयेन ताणें व्हडा धीरान तोंड दिलें आनी ताच्या सैन्याक आपल्या राज्यांतल्यान धांवडावन घालें. उपरांत ताणें स्वता मदुरेचेर चाल करून त्या राजाचे दोन किल्ले आनी बरोचसो मुलूख घेतलो. इ.स. १६८२ वर्सा संभाजीराजान घाल्ली घुरी पुराय मोडून काडली. इ. स. १६८६ वर्सा ताका म्हैसूरचो सम्राट म्हणून नामना मेळळी आनी पुराय दक्षिण भारताचेर तो शेक गाजोवंक लागलो. इ.स. १६८७ वर्सा तुमकूरच्या मोगल राजान म्हैसूराचेर स्वारी केली पूण ताका जैत मेळ्ळेंना. एकोजीन बंगलोर चिक्क देवरायाक विकलें. ताका लागून बंगलोर म्हैसूर राज्याचो एक वांटो जालें.

चिक्कदेवरायान गादयेर येनाफुडे मंत्र्यांचें एक मंडळ सल्लामसलती खातीर नेमलें. आपल्या राज्यांत टपालाची वेवस्था सुरू केली. तशेंच वेवस्थित राज्यकारभारा खातीर योग्य अधिकाऱ्यांची नेमणूक केली. अर्थीक वेव्हारांत बारकायेन लक्ष घालें. ताणें बरीचशीं देवळां बांदलीं.

तो स्वता विद्वान आनी कवी आशिल्लो. ताच्या नांवाचेर चिक्कदेवराजबिन्नपम आनी गीतगोपालम् हे दोन आनी हेर कांय ग्रंथ आसात.

कंठीरव नरसराज वोडेयर (इ. स. १७०४ - १७१४) : चिक्क देवरायाचो मोनो पूत ताचे उपरांत गादयेर आयलो. ताचे वतीन ताची आवय आनी प्रधान तिरुमलेंयंगार हांणी कारभार चलयलो. हो गादयेर येतकच औरंगजेबान व्हड सैन्य घेवन म्हैसूराचेर स्वारी केली तेन्ना ताणें देड कोटी रुपया दिवन कबलात केली.

दोड्डुकृष्णराज वोडेयर (इ. स. १७१४ - १७३२) : कंठीरवाचो पूत ताचे उपरांत गादयेर आयलो. तेन्ना तो फकत बारा वर्सांचो आशिल्लो. सगळी सत्ता सेनापती आनी मुखेल सर्वाधिकारी नंजराजिय्या हांच्या हातांत गेली. इ.स. १७२४ वर्सा अर्काटच्या नवाबान म्हैसूराचेर घुरी घालतकच एक कोटी रुपया दिवन राजान ताचेकडे कबलात केली. उपरांत पयल्या बाजीराव पेशवान म्हैसूराचेर घुरी घाली आनी ताणें पेशव्यांचो पराभव केलो. हो राजाय धार्मिक वृत्तीचो आशिल्लो. तशेंच तो विद्वान आनी संगीत वाङ्मय हांचो भोक्तो आशिल्लो. ताणें विद्वानांक आलाशिरो दिलो आनी खूबशा देवळांक देणग्यो दिल्यो.

चामराज वोडेयर (इ.स. १७३२ - १७३४) : दोड्डुकृष्णराज हाका पूत नाशिल्ल्यान ताचे बायलेन चामराज वोडेयर ह्या सोयऱ्याक पोसको राज्यकारभार चलोवंक सुरवात केली. पूण कांय तेंपान सेनापतीन बंड करून चामराजाक ताचे बायलेसयत बंदखणींत उडयलो. तेन्ना विधवा राजमाता देवजम्मन्नी हिणें आनीक एक भुरगो पोसको घेतलो आनी ताका इम्मडी कृष्णराज वोडेयर ह्या नांवान गादयेर बसयलो. इम्मडी कृष्णराज वोडेयर (इ.स. १७३४ - १७६७) हाचे कारकीर्दींत निजाम, पेशवे, फ्रेंच, इंग्रज हांणी म्हैसूराचेर खूब घुरयो घाल्यो. पूण हैदर अली ह्या सैनिकान राज्य सुरक्षित राखलें. तोच उपरांत सेनापती जालो आनी राज्यकारभार चलोवंक लागलो. इ.स. १७६२ वर्सा ताका मरण येतकच ताचो पूत टिपू हाणें मात म्हैसूरचें राज्य बळकायलें आनी स्वता सूलतान जालो. टिपूक गादयेवयल्यान सकयल देंवोवन म्हैसूरचें राज्य घेवपाखातीर महाराणी लक्षम्मण्णीन खूब यत्न केले, तिणें खूब राजकीय डावपेंच रचले. निमाणें इंग्रजांच्या आदारान तिणें म्हैसूराचेर आपलो शेक गाजयलो.

महाराणी लक्षम्मण्णी (इ.स. १७९९ - १८१०) : ही महाराज कृष्णराज वोडेयर हाची कर्तबगार आनी राजकारणी बायल. राजा मरतकच राजसत्तेची आनी राजघराण्याची तिचेर जापसालदारकी पडली. तिणें राजनिश्ठ प्रधान तिरुमलराव आनी नारायणराव हांच्या आदारान मद्रासच्या इंग्लीश सत्तेकडे संधान सादलें आनी तांचेकडे जाल्ले कबलातीप्रमाण म्हैसूराचेर परतून वोडेयर राजघराण्याची सत्ता प्रस्थापित केली. फुडें धा वर्सां तिणें अज्ञान युवराजाचो कारभार व्हड हुशारेन चलयलो. इ.स. १८१० वर्सा तिका मरण आयलें.

मुम्मडी कृष्णराज वोडेयर (इ.स. १७९९ - १८३१) : इ.स. १८१० वर्सा मुम्मडी कृष्णराज सोळा वर्सांचो आशिल्लो. ताचो दिवाण पूर्णिया हो १२ वर्सां राज्यकारभार पळेतालो. ताणें म्हैसूरचो दिवाणी आनी लश्करी कारभार बरे रितीन पळयलो आनी राज्याच्या उत्पन्नांत

भर घाली. कृष्णराज १७९९ वर्सा अल्पवयांत राजा जालो. इ.स. १८१० ते १८३१ मेरेन तो राजा आशिल्लो उपरांत १८३१ ते १८६७ मेरेन ताचें राज्यपद गेलें. परतून १८६७ ते १८६८ ह्या काळांत ताणें राज्य केलें. इ.स. १८६८ च्या मार्च म्हयन्यांत ताका मरण आयलें. ह्या काळांत ताणें खूब लोकोपयोगी कामां केलीं. ताणें बऱ्याचशा विद्वानांक आलाशिरो दिलो. ताचे कारकीर्दींत खूबशे शास्त्रीय, धर्मीक आनी वाङ्मयीन ग्रंथ बरोवप जाले. म्हैसूरांत ताणें इंग्लीश शाळा सुरू करून तिची वेवस्था इंग्रज विद्वानांकडे दिली. अशे रितीन काम करून ताणें खूब नामना जोडली.

चामराजेंद्र वोडेयर (इ.स. १८६८ - १८९४) हो कृष्णराजाचो पोसको पूत आशिल्लो. गादयेर बसलो तेन्ना तो ल्हान आशिल्लो. फुडें अठरा वर्सांचो जातकच १८८१ वर्सासावन तो राज्यकारभार पळोवंक लागलो. इंग्रज सरकारान ताका वारस म्हणून मान्यताय दितना ताचेर खूब अटी घाल्यो. तेप्रमाण इंग्लिशांनी चडशी सगळी सत्ता आपल्या ताब्यांत दवरली. हो मात नांवापुरतो राजा उरलो. इंग्लीश सरकाराच्या अटींक अणसरून चामराजान प्रजेक उद्देशून एक जाहिरनामो काडलो आनी आपल्या कांय विश्वासू अधिकाऱ्यांक घेवन एक काउंन्सिल केलें. ताणें बारिकसाणेन लक्ष घालून राजवाड्यांतलो गैरकारभार बंद केलो आनी गुन्यांवकारांक खर ख्यास्त दिली. तशेंच ताणें युरोपियन अधिकाऱ्यांक काडून उडोवन तांच्या जाग्यार कमी पगाराचेर हिंदू अधिकारी नेमले. राज्यांत ताणें खूब सुदारणा केल्यो. शैक्षणिक सुविधा, उदका - पुरवणेची वेवस्था केली. राज्यांत दवाखाने सुरू केले. ह्या काळांत राज्याचें महसुली उत्पन्न वाडलें.

कृष्णराज वोडेयर (४ थो इ.स. १९०२ - १९४०) : बापूय मेलो तेन्ना कृष्णराज खूब ल्हान आशिल्लो म्हूण ताचे आवयन आठ वर्सां राज्यकारभार पळयलो. उपरांत इ.स. १९०२ वर्सासावन तो स्वता कारभार पळोवंक लागलो. ताणें शेतकी वेवसायाची सुदारणा करून शिक्षणाचोय प्रसार केलो. कावेरी वीज प्रकल्प सुरू केलो. तो स्वता दयाळू, धार्मिक आनी कर्तव्यतत्पर राजा आशिल्लो. ताणें हिंदू, किरिस्तांव, मुसलमान ह्या सगळयांच्या देवस्थानांक मदत केली. ताणें स्वता भारतभर तीर्थयात्रा केली. बरे तरेन राज्यकारभार करून ताका १९४० वर्सा मरण आयलें.

जयचामराज वोडेयर (इ.स. १९४०) : चवथो कृष्णराज हाका पूत नाशिल्ल्यान, ताचो पुतणयो जयचामराज हो म्हैसूरचे गादयेर बसलो. हाचो जल्म १९१९ वर्सा जालो आनी शिक्षण रॉयल स्कूल, महाराजा कॉलेज हांगा जालें. हो गादयेर आयलो तेन्ना सर मिर्झा इस्माइल हो दिवाण आशिल्लो. उपरांत तीन म्हयन्यांनी तो निवृत जालो आनी एन्. माधवराव हो दिवाण जालो. हाचे कारकीर्दीतूय लोककल्याणकारी येवजणो चालू उरल्यो. हाचे कारकीर्दींत १९३९ ते १९४५ ह्या काळांत दुसरें महायुध्द चालू आशिल्लें. तेन्ना इंग्लीश सरकाराक हाणें खूब अर्थीक आनी सैनिकी आदार केलो. इ.स. १९४५ ते १९४९ ह्या काळांत सर समस्वामी मुदलियार हो दिवाण आशिल्लो. हाच्या काळांतूय म्हैसूर राज्यांत शैक्षणिक, उद्देगीक उदरगत चालू आशिल्ली.

१९४७ वर्सा भारताक स्वातंत्र्य मेळटकच भारतांतलीं सगळीं संस्थानां खालसा करपांत आयलीं. तेप्रमाण म्हैसूर स्वतंत्र राज्य स्थापन जालें. राजा जयपामराज हाची २६ जानेवारी १९५० दिसा राजमुखेल म्हणून नेमणूक जाली. उपरांत ताका राज्यपाल नेमलो.

विश्व हिंदू परिशदेचो तो पयलो अध्यक्ष आशिल्लो. १९७४ वर्सा ताका मरण आयलें. अशे तरेन म्हैसूराचेर राज्य करपी वोडेयर राजघराण्याचो अंमल सोंपलो.

- कों. वि. सं. मं.

**व्याकरण :** भाशेची स्थिती आनी प्रवृत्ती लक्षांत घेवन स्वभावसिध्द अशा शब्दांचो सुयोग्य वापर करूंक शिकोवपी शास्त्र. खंयचीय भास ही तिच्या वापराचे नदरेन स्वयंसिध्द आसता आनी तिच्या अंतर्गत शब्द प्रयोगांची प्रेरणा आसता. व्याकरण हे प्रेरणेचें निदर्शन करता. व्याकरणाचो व्युत्पत्तीअर्थ असो - 'व्याक्रियन्ते शब्दा अनेन इति व्याकरणम' म्हळयार जाचे वतीन अपशब्दांपसून सुशब्द वेगळे काडप जातात वा जाच्यापसून साधूशब्दांचें गिन्यान मेळटा, तें व्याकरण.

जगांत उपलब्ध आशिल्ल्या साहित्यांत ऋग्वेद हो आद्यग्रंथ आसा. हो वेद अभ्यासकांक सुगम आनी अर्थबोधक जावचो हेखातीर व्याकरणाची गरज निर्माण जाली. हे विशीं पतंजलीन एक जनश्रुती सांगल्या ती अशी - एकदां प्रबुध्द देवान प्रार्थना करून इंद्राक सांगलें, 'वेद ही आमची भास आसा पूण ती अव्याकृत आसा. तिचें व्याकरण कर'. अशे तरेन भारतांत सगळयांत पयलीं व्याकरण विद्येचो जल्म जालो.

पाणिनीय शिक्षेंत वेदाचीं स आंगां सांगल्यांत. तेचप्रमाण वररुचीन व्याकरणशास्त्राच्या अध्ययनाचीं पांच प्रयोजनां सांगल्यांत तीं अशीं आसात-

(१) रक्षा : वेदांची राखण करप हें व्याकरणाच्या अध्ययनाचें मुखेल उदिश्ट आसा. वेदरक्षणाचो मुखेल भार वैयाकरणांचेर आसा.

(२) ऊह : नव्या पदांची कल्पना.

(३) आगम : श्रुती (वेद, आगम) हीच व्याकरणाच्या अध्ययनाखातीर प्रमाणभूत आसा. श्रुतिप्रामाण्य आपणावन व्याकरणाचें अध्ययन करप, हें दर एका द्विजाचें कर्तव्य आसा.

(४) लघू : संस्कृत भाशेच्या दर एका शुध्द शब्दांचें अध्ययन करप शक्य नाशिल्ल्यान व्याकरण होच एक लघू उपाय आसा.

(५) असंदेह : वैदिक विशयांच्या संदर्भांत उत्पन्न जावपी संदेहाचें निराकरण व्याकरणच करूंक शकता.

ह्या पांच प्रयोजनांभायर पतंजलीन हेर कांय प्रयोजनांय सांगल्यांत, तातुंतलीं कांय अशीं आसात -

(१) अपभाशण : अशुध्द शब्द उच्चारप जावचेनात असो मार्ग व्याकरणच दारवयता.

(२) दुश्टशब्द : शब्दांचे शुध्दाशुध्दतेचें ज्ञान व्याकरणाकडेंच आसा.

(३) अर्थज्ञान : वेदांचो अर्थ समजुपाक व्याकरणाचें ज्ञान गरजेचें आसा.

(४) धर्मलाभ : जो मनीस भाशेच्या वेव्हारांत शुध्द शब्दांचो प्रयोग करता तो स्वर्गलोकांत रवूब फळ मेळयता. हाचे उरफाटें जो सदांच अपशब्द वापरता तो पापी थारता.

गोपथ ब्राह्मणाच्या पूर्वकाळांत ह्या शास्त्राची रवूब वाड जाल्ली दिसता. हातूंत प्राचीन व्याकरणाच्या विशयांचो उल्लेरव मेळटा. ते धातू, प्रतिपदिक, नाम, आरव्यात, लिंग, वचन, विभक्ती, प्रत्यय, स्वर, उपसर्ग, निपात, मात्रा, वर्ण, अक्षर, पदसंयोग, स्थानानुप्रदान. हे सगळे त्या शास्त्रांतले मान्य अशे परिभाशिक शब्द आसात.

शाकटायनान आपल्या ऋक्तंत्रांत व्याकरणाची वाटचाल (परंपरा) सांगल्या. सगळयांत पयलीं ब्रह्मान बृहस्पतीक व्याकरण सांगलें. बृहस्पतीन तें इंद्राक दिलें. इंद्रान भारद्वाजाक, भरद्वाजान ऋषींक आनी ऋषींनी तें ब्राह्मणांक दिलें. अग्निपुराणांत ३४९ ते ३५९ ह्या ११ अध्यायांनी व्याकरणाची म्हायती दिल्या. तातूंत स्कंद (कार्तिकस्वामी), कात्यायन ऋषीक व्याकरणाचो आपरोस सांगता, अशें सांगून अइउण्, ऋलृक अशीं चौदा माहेश्वरसूत्रां, प्रत्याहार, संधी, शब्दरुपावली, कारक, समास, तध्दित, उणादिप्रत्यय, तिङ्प्रत्यय अशी सादारण म्हायती दिवन विशय सोंपयला. गरूडपुराणांतय हीच म्हायती आसा. ह्या व्याकरणाक कौमार व्याकरण अशें म्हण्टात.

दर एका वेदाच्या प्रतिशारवांतय वर्णांचे संधी आनी विश्लेष कशे जातात हाची व्याकरणाविशीची म्हायती मेळटा. तिचो उपेग पद, क्रम, जटा, घन ह्या वेदविकृतींच्या अध्ययनारवातीर जाता.

पाणिनीक प्रधान व्याकरणकार मानतात. ताचे पयलीं शाकटायन, स्फोटायन, काशकृत्स्न, आपिशली, पौष्करस हे व्याकरणकार जावन गेले. पूण पाणिनीन आपल्या सुत्रांत प्रसंगान तांचो उल्लेरव केला. पूण हातुंतल्या कोणाचोच ग्रंथ आयज उपलब्ध ना. कैयट सारके प्राचीन ग्रंथकार आपिशली, काशकृत्सन हांच्या ग्रंथांचो उल्लेरव करतात. भगवान पाणिनीन श्रीशंकरान उपदेशिल्लीं जीं 'अइउण्' हीं चवदा सुत्रां, जांकां अक्षरसमाम्नाय अशें वैयाकरण पंडित समजतात, तांचो आदार घेवन आपल्या व्याकरणाची उबारणी केल्या आनी म्हणून ह्या व्याकराक वेदांगत्व प्राप्त जालां. हातूंत लौकिक शब्दांचें विवेचन पुरायपणान केल्लें आशिल्ल्यान हें लोकिक पंडितांकय मान्य जालां. पाणिनीय व्याकरण हो व्याकरणरुपी वेदांगाचें प्रतिनिधित्व करपी एक मान्य ग्रंथ आसा. पाणिनीन अल्पाक्षर अशा चार हजार सुत्रांवतीन संस्कृत भाशेचें नितांत वैज्ञानिक अशें व्याकरण प्रस्तुत करून आधुनिक भाशाशास्त्रज्ञांकय अजापीत केल्यात.

पाणिनीच्या उपरांत संस्कृतांत आयिल्ल्या नव्या शब्दांची व्यारव्या करपाचो हेत मनांत धरून कात्यायनान (सन पयलीं ४ थो शेंकडो) वार्तिकांची रचना केली. ते उपरांत पतंजलीन पाणिनीच्या सुत्रांचेर (सनपयलीं २ रो शेंकडो) भाष्य रचलें. सुत्रांचेर भाषां रवूब आसात. पूण व्यापक विशय आनी गंभीर विचारांक लागून पतंजलींच्या भाष्याक 'महाभाष्य' म्हळां. व्याकरणाच्या दार्शनिक सिध्दान्तांची मीमांसा सगळयांत पयलीं महाभाष्यातूच मेळटा. हो ग्रंथ प्रस्न - जाप अशा स्वरुपाचो आसून साहित्यीक शैलीचो आसा. व्याकरणशास्त्रांत सुत्रां, कार्तिकां आनी महाभाष्य ह्या तीन ग्रंथांचें रवूब म्हत्व आसा. म्हणुनूच पाणिनी, कात्यान आनी पतंजली हांकां व्याकरणाचे मुनित्रय म्हण्टात.

महाभाष्याउपरांतचो व्याकरणाचो दार्शनिक ग्रंथ म्हळयार भर्तृहरीचो वाक्यपदीय. हो ग्रंथ ताणें इ.स.च्या सव्या शेंकडयांत रचलो.

१५ व्या शेंकडयांत रामचंद्राचार्य ह्या वैयाकरणान सुत्रांचे प्रक्रियेक अणसरून आपलो टीकाग्रंथ रचलो. ताणें पदांची सिध्दी हें आपलें लक्ष्य थारायलें. हीच पद्दत आपणावन भट्टोजी दीक्षित ह्या नामनेच्या वैयाकरणान सिध्दान्त कौमुदी हो ग्रंथ बरयलो. उपरांत ताणें शब्दकौस्तुभ आनी मनोरमा हे ग्रंथ बरयले. दीक्षिताचे परंपरेतलो नागेश भट्ट हाणें पाणिनीय व्याकरणांतल्या परिभाशांचें निदर्शन करपी 'परिभाषेन्दुशेरवर' हो ग्रंथ बरयलो आनी तो व्याकरणाच्या अभ्यासांत सर्वमान्य थारलो. फाटल्या २००, वर्सांनी पणिनीय संप्रदायाच्या नामनेच्या टीकाकारांभितर वैद्यनाथ पायगुंडे, विश्वेश्वर, ओरमभट्ट, भैरवमिश्र, राघवेंद्राचार्य गजेंद्र गडकर, कृष्णामित्र, नित्यानंद पर्वतीय, जयदेव मिश्र, वासुदेव शास्त्री अभ्यंकर, मन्युदेव चिद्रुपाश्रय हीं नांवां उल्लेरव करपासारकीं आसात. व्याकरणाचेर जायते परिभाशाग्रंथ निर्माण जाले. व्याडी ह्या वैयाकरणान बरयल्लो परिभाशासूचन नांवाचो एक हातबरपाचो ग्रंथ उपलब्ध आसा. शाकटायनपरिभाशासुत्रासारकीच चांद्रपरिभाशासुत्रांय उपलब्ध आसात. चंद्रव्याकरण हें पाणिनीय व्याकरणाचेर आदारिल्लें सुलभ व्याकरण आसा. तेचभशेन वैदिक शाकटायनशब्दानुशासनाचेर आदारिल्लें कातंत्र हेंय सुलभ व्याकरण आसा, अशें विद्वान मानतात. ह्या कातंत्र व्याकरणाचेंच कांय सुत्रांची भर घालून केल्लें संस्करण कालाप ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. इ.स.च्या ११ व्या शेंकडयांतल्या भोज राजान आपल्या सरस्वतीकंठाभरण ह्या व्याकरण ग्रंथांत ११८ परिभाशासुत्रां दिल्यांत. गुजरातांतल्या हेमचंद्र नांवाच्या नामनेच्या जैन वैयाकरणान पाणिनीच्या व्याकरणाक अणसरून हैमशब्दानुशासन नांवाचो एक व्हड असो व्याकरणग्रंथ बरयलो. हेमचंद्राचे शिश्यपरंपरेत हेमहंसगणी नांवाचो एक वैयाकरण जालो. ताचो परिभाषावृत्ती हो ग्रंथ प्रसिद्द आसा. ताच्या काळांत बंगाल आनी ताच्या लागसारच्यो

प्रदेशांनी पाणिनीय व्याकरणाचो खूब पुरस्कार जालो आनी बऱ्याचशा विद्वानांनी व्याकरणशास्त्राचेर पांडित्यपूर्ण ग्रंथ बरयले. ते उपरांतच्या काळांत सीरदेव हो म्हान वैयाकरण जावन गेलो. ताणें आपल्या पयलींच्या सगळ्या परिभाशाकारांचे ग्रंथ विचारांत घेवन आपलो 'परिभाषावृत्ती' हो ग्रंथ बरयलो. ह्या ग्रंथाक लागून पयलींचे परिभाशा ग्रंथ फाटी पडले. ह्या ग्रंथाकय फाटीं सारपी ग्रंथकार नागेश हाचो अठराव्या शेंकड्यांतलो 'भाशेन्दुशेखर' हो ग्रंथ रोकडोच सर्वमान्य जालो. ह्या ग्रंथाचेर मुद्रित आनी अमुद्रित मेळून २५ वयर टीका उपलब्ध आसात.

पाणिनीभायर आनीकय व्याकरणसंप्रदाय निर्माण जाले. तातुंतले मुखेल अशे आसात -

**इंद्रसंप्रदाय :** देवराज इंद्राच्या नांवान हो संप्रदाय प्रचलित आसा. सद्या हें व्याकरण उपलब्ध ना पाणिनीय व्याकरणान ह्या संप्रदायाक नश्ट केलो अशें कथासरित्सागरावयल्यान समजता. विद्वान बर्नेल हाच्या म्हणण्याप्रमाण तोळकाप्पियम हें प्राचीन तमिळ व्याकरण चडशें इंद्रसंप्रदायान प्रभावित आसा.

**कातंत्र व्याकरण :** सातवाहन राजा शर्ववर्मा हाका कांय काळाभितर व्याकरण शिकोवपाच्या हेतान सुमार ८४० सुत्रांचें हें व्याकरण रचप जालें. बंगालांत आयजलेगीत कातंत्र व्याकरणाचो प्रचार आसा. काश्मीरांत शिकयतात तें व्याकरण ग्रंथ म्हळ्यार कातंत्र व्याकरणाचें परिवर्तित रूप मानूं येता.

**चंद्रसंप्रदाय :** इ.स.च्या ४थ्या शेंकड्यांत, हाचो प्रवर्तक चंद्रगोमी नांवाचो एक बौध्द वैयाकरण जावन गेलो. बौध्दधर्मियांत हाचो चड प्रसार जालो. ह्या संप्रदायाचीं लघुसंस्करणां, तिबेट आनी लंका ह्या देशांनी आयजूय प्रचारांत आशिल्ल्याचें समजता.

**जैनेंद्रसंप्रदाय :** चवथ्या शेंकड्यांतलो देवनंदी हो ह्या संप्रदायाचो प्रवर्तक. ताणें पाणिनीय व्याकरणांतलीं सुत्रां आनी वार्तिकां जुळोवन देवनंदीन आपलीं सुत्रां रचलीं. जैनेंद्र व्याकरणाचेर सोमदेवाची टीका आसून दक्षिण भारतांतल्या दिंगभर जैनांत हाचो प्रचार आसा.

**शाकटायनसंप्रदाय :** इ.स.च्या ८व्या शेंकड्यांत श्वेतांबर जैनांच्या अध्ययनार्थ हाचें व्याकरण बरयलें. ह्या व्याकरणाचेर चंद्र आनी जैनेंद्र ह्या दोनय व्याकरणांचो प्रभाव आसा. शाकटायनान स्वताच आपल्या ग्रंथाचेर वृत्ती बरयल्या.

**भोजसंप्रदाय :** हाचो प्रधान ग्रंथ सरस्वतीकंठाभरण हो आसून, तो भोजराजान इ.स.च्या १०व्या शेंकड्यांत बयरलो. हातूंत स हजार सुत्रां आसात आनी वैदिक व्याकरणाचें निरूपण केलां. पाणिनी उपरांत भाशेंत जीं परिवर्तनां जालीं, तांकां मान्यताय दिवपी नेम ह्या व्याकरणांत केल्यात.

**हेमचंद्रसंप्रदाय :** हेमचंद्र ह्या जैन - विद्वानान शब्दानुशासन नांवाचो आठ अध्यायांचो ग्रंथ बरयलो. निमाणच्या अध्यायांत ताणें प्राकृत भाशांचेय व्याकरण सांगलें. आपल्या ग्रंथाचेर ताणें स्वताच बृहद्वृत्ती आनी लघुवृत्ती अशो दोन टीका बरयल्यो. सुत्रांच्या विवेचनांत उदाहरणां दिवपाखातीर ताणें स्वताच द्याश्रय महाकाव्याची रचना केली.

**सारस्वत संप्रदाय :** हाचो आदिप्रवर्तक अनुभूतिस्वरुपाचार्य हो आसा. हाणें १२ व्या शेंकड्यांत सारस्वतप्रक्रिया ह्या नांवान ७०० सुत्रांचें व्याकरण रचलें. ५० वर्सांपयलीं उत्तर भारतांत ह्या व्याकरणाचो खूब प्रचार आशिल्लो. इंग्रज विद्यार्थ्यांक संस्कृत व्याकरण शिकोवपाखातीर सारस्वतप्रक्रिया ह्या ग्रंथाचो उपेग करताले.

मुखेल संस्कृत व्याकरणांचे स्वताचे अशे गणपाठ आनी धातीपाठ आसात. गणपाठाच्या संबंदांत जे स्वतंत्र ग्रंथ जाले, तातूंत वर्धमानाचो (१२ वो शेंकडो) गणरत्नमहोदधी आनी भट्टयज्ञेशाचो गणरत्नावली हे दोन ग्रंथ प्रसिद्द आसात. काशकृत्स्नाचो धातुपाठ कन्नड भाशेंत आनी भीमसेनाचो धातुपाठ तिबेटी भाशेंत (भोट) आसा. पूर्णचंद्राचो धातुपारायण, मैत्रेयरक्षिताचो धातुप्रदीप, क्षीरस्वामीचो क्षीरतरंगिणी, सायणाचो माधवीय धातुवृत्ती, श्रीहर्षकीर्तीचो धातुतरंगिणी, बोपदेवाचो कविकल्पद्रुम आनी भट्टमल्लाचो आख्यातचंद्रिका हे ग्रंथ चड उल्लेख करपा सारके आसात. लिंगबोधक ग्रंथांभितर पाणिनी, वररूची, वामन, हेमचंद्र, शाकटायन, शांतवन, हर्षवर्धन हांचीं लिंगानुशासनां प्रचलित आसात.

**प्राकृत भाशांचे व्याकरणकार :** प्राकृत भाशांचो विंगड विंगड प्रदेशांनी प्रचार सुरू जालो तेन्ना ग्रंथरचनाय सुरू जाली. ताका लागून व्याकरणां निर्माण जावपाची गरज उत्पन्न जाली. प्राकृत भाशांविशीं ज्या लेखकांनी आपले विचार मांडले, तातूंत भरताचो पयलीं उल्लेख करचो पडटा. मार्कंडेयान आपल्या प्राकृतसर्वस्व ह्या ग्रंथाचे सुरवेक भरताचो उल्लेख केला. तशेंच ताणें शाकल्य आनी कोह्ल ह्या आनीक दोन प्राकृत व्याकरणांचो उल्लेख केला. कांय प्राचीन आचार्यांनी, पाणिनीनय प्राकृतलक्षण नांवाचो ग्रंथ बरयल्ल्याचें म्हळां. वररुचीन बरयल्लो प्राकृतप्रकाश हो सगळयांत पोरनो प्राकृत व्याकरणाचो ग्रंथ आसा. तेउपरांत चंड नांवाच्या विद्वानान प्राकृतलक्षण नांवाचो ग्रंथ बयरलो. धनपालान प्राकृताचो कोश तयार केलो. हेमचंद्रान सिध्द हेमचंद्र नांवाचें प्राकृत व्याकरण बरयलें आनी तें प्राकृत व्याकरणांत सगळयांत उत्कृश्ठ थारलें. हेमचंद्राउपरांत क्रमदीश्वर हो व्याकरणकार जालो. ताणें संक्षिप्तसार नांवाचें व्याकरण बरयलें. त्रिविक्रमान आपल्या प्राकृत व्याकरणाचे टीकेंत हेमचंद्राकूच आदारभूत मानला. त्या आदाराचेरूच ताणें आपलो प्राकृतरुपातार हो ग्रंथ बरयलो. ते उपरांत रामतर्कवागीश ह्या गंथकारान इ.स.च्या १६व्या शेंकड्यांत प्राकृतकल्पतरू हो ग्रंथ बरयलो. हाचेभायर भारद्वाज, अप्पय्य दीक्षित, समंतभद्र, चंद्रेश्वर ह्या प्राकृत वैयाकरणांचीय नांवां प्रसिद्द आसात.

**कोंकणी व्याकरण :** कोंकणी व्याकरण हें भारतीय भाशांतलें

(संस्कृत सोडून) सगळयांत पयलें व्याकरण आसा, अशें अभ्यासकांचें मत आसा. पूण त्या व्याकरणाची प्रत सद्या उपलब्ध ना. ते उपरांत पाद्री तोमास इश्तेव्हांव हाचें Arte da Lingua Canarim (१६४०) वर्सा उजवाडा आयलें. हाचे उपरांत व्याकरणाचीं बरीचशीं पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. तातुंतलीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां आसात, तीं अशीं - पाद्री मोफयचें 'A Grammer of Konkani Language (१८८२), कॉनेगु जुझे द एस्. रीत इ सौझ हाचें 'Elementos da Lingua Concani' (१९२९), जानीन रांजेल हाचें 'A Gramatica da Lingua Concani' (१९३३), कारेल प्रिक्रिल हाचें 'Principia Linguae Brahmanicae. हांचेभायर मो दाल्गादु हाच्या कोंकणी व्याकरणाचें हातबरप, पणजेचे सेंट्रल लायब्ररींत उपलब्ध आसा.

१९४९ वर्सा शणै गोंयबाबाचें 'कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ' हें पुस्तक उजवाडा आयलें. कोंकणी व्याकरणाच्या इतिहासांतलें तें एक आधुनिक अशें व्याकरण आसा. ते उपरांत १९८६ वर्सा सुरेश जयवंत बोरकार हाचें 'कोकणी व्याकरण' हें पुस्तक उजवाडा आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**व्यास :** महाभारत कालीन एक तेजीश्ट व्यक्तीमत्वाचो म्हापुरूष, ग्रंथकार आनी महागिन्यानी. ताचीं जायतीं नांवां प्रचलित आसात तीं अशीं - वर्णान काळो म्हूण कृष्ण, द्वीपांत जल्मल्लो देरवून द्वैपायन. हाचे वयल्यान कृष्णद्वैपायन अशेंय जोडनांव ताका रूढ जाल्लें. ताणें 'वेदान विव्यास' अशे वेदांचे विभाग केल्ले देरवून ताका व्यास अशें म्हण्टाले. हाचेभायर पराशराचो पूत देरवून पाराशर्य अशेंय नांव घेतात. ताका महर्षी अशेंय म्हणप जाताले.

पुराणकारांच्या मतान व्यास हें व्यक्तिनाम नासून ती उपाधी आसा. तें एक धर्मीक पीठ आसा. दर एका द्वापर युगांत विष्णु व्यास रुपान अवतार घेता आनी संवसाराच्या हितारवातीर एका वेदाचो विभाग करता. अशे २८ व्यास जाल्ले आसून कृष्णद्वैपायन हो निमणो व्यास. भागवतांत ह्या २८ व्यासांचीं नांवां दिल्यात तीं अशीं - (१) ब्रह्मा, (२) प्रजापती (३) शुक्राचार्य (४) बृहस्पती (५) सूर्य (६) यम (७) इंद्र (८) वसिष्ठ (९) सारस्वत (१०) त्रिधामा (११) त्रिवृष (१२) भारद्वाज (१३) अंतरिक्ष (१४) धर्म (१५) त्रय्यारुपी (१६) धनंजय (१७) मेधातिथी (१८) व्रती (१९) अत्री (२०) गौतम (२१) हर्यात्मा (२२) वाजश्रवा (२३) सोम आमुष्यायण (२४) तृणबिंदू (२५) भार्गव (२६) शक्ती (२७) पराशर आनी (२८) कृष्णद्वैपायन.

व्यासाची जल्मकथा अशी आसा - हस्तिनापूर लागसरच्या एका वाठारांत राजा उपरिचर वसू हाका सत्यवती नांवाची धूव आशिल्ली. ल्हानपणासावन तिचो सांबाळ यमुनेचे देगेर रावपी दाशराजान केल्लो. तो कोळी आशिल्लो आनी यमुनेचे देगेर होडयान लोकांक हाड-व्हर करप हो वेवसाय तो करतालो. फुडें हें काम सत्यवती करूंक लागली. एक दीस पराशर मूनी थंय आयलो आनी ताणें आपल्याक पलतडीन पावोवंक सांगलें. दाशराजान तें काम सत्यवतीकडेन सोंपयलें. होडें चलोवपी हे धीवरकन्येचें रूप जेन्ना पराशरान पळेलें तेन्ना तो तिचेर भाळ्ळो. ताणें तिचेकडे जेन्ना आपलो मोग उक्तायलो तेन्ना तिणें आपल्या आंगाक नुस्त्याचो वास येता म्हणपाचें ताका सांगलें.

पराशरान आपल्या तपाच्या प्रभावान तिच्या आंगाची हिवसाण पयस करून तिका सुवासिक केली. तो वेळ दिसाचो आशिल्लो देरवून पराशरान धुकें तयार करून तिचेकडे समागम केलो. उपरांत थंयच्यान वता आसतना पराशरान तिका आशिर्वाद दिलो, तुगेर म्हापुरूष जल्माक येतलो आनी एका भुरग्याची आवय जावनय तुजें आंकवारपण अभंग उरतलें. फुडें सत्यवतीन यमुनेच्या एका द्विपांत एका चल्याक जल्म दिलो. होच वेदव्यास. इतिहासकारांच्या मतान व्यासजल्माचो काळ सनआदीं ३१०० हो थारता.

फुडें व्यास आपल्या बापायचो सोद घेवन हिमालयांत ताच्या आश्रमांत तपश्चर्या करूंक गेलो. वतना ताणें सत्यवतीक वचन दिलें 'तूं जेन्ना म्हाका याद करतली तेन्ना हांव हाजीर जातलो'. तरणेपणांत ताणें जाबालीची धूव वटिका हिचेकडेन लग्न केलें. ताका शुक्र हो पूत जालो.

फुडें सत्यवतीचें हस्तिनापूरचो राजा शंतनूकडे लग्न जालें. तिका दोन पूत आशिल्ले. तातुंतल्या एकट्याक झुजांत मरण आयलें आनी दुसरो पूत विचित्रवीर्य हाका क्षयरोग जाल्लो. ताका अंबिका आनी अंबालिका अशो दोन बायलो आशिल्ल्यो. पूण विचित्रवीर्याक भुरगें जावंचे आदींच मरण आयलें. तेन्ना आपलो वंश हांगाच सोंपतलो हो विचार करतां करतां तिचे तकलेंत नियोगाची कल्पना आयली. त्या काळांत भुरगें नाशिल्ले विधवेक देराकडल्यान पुत्रोत्पत्ती करून घेवपाक धर्माची संमती आशिल्ली. तिणें अशावेळार आपलो पूत व्यास हाका आपोवन हाडलो आनी ताका नियोगाची आज्ञा दिली. व्यास हो रंगान काळो आनी कुरूप आशिल्लो. ताच्या आंगाक घाण येताली. ताच्यो जटा आनी रवाड वाडिल्लें. फुडें व्यासापसून अंबिकेगेर कुड्डो धृतराष्ट्र आनी अंबालिकेगेर पांडुरोगी पांडू जल्माक आयलो. फुडें धृतराष्ट्रापसून कौरव आनी पांडूपसून पांडव असो कुरूवंशाचो विस्तार वाडलो. उपरांतच्या काळांत कौरव आनी पांडव हांचे मदलें महाझूज थांबचें देरवून व्यासान जायते यत्न केले पूण तातूंत ताका यश मेळ्ळें ना.

व्यासाचो आश्रम हस्तिनापुरालागसारच सरस्वतीचे देगेर आशिल्लो. थंयच्यान तो हस्तिनापुरांत यो-वच करतालो. कौरव - पांडवांचे अस्त्रपरिक्षेवेळार तो उपस्थित आशिल्लो. युधिष्ठिराक राजसूय यज्ञाची प्रेरणा ताणेंच दिल्ली. द्युतांत हारून पांडव वनवासाक गेले तेन्ना धृतराष्ट्राक मेळून पांडवांकडे अन्यायान न वागपाचो ताणें सल्लो दिलो. तशेंच द्वैतवनांत वचून तो पांडवांक मेळ्ळो थंय ताणें युधिष्ठिराक प्रतिस्मृती नांवाची सिध्दविद्या शिकयली. अज्ञातवास सोंपोवन पांडव

परत येतकच तांचेकडे धृतराष्ट्राक हातमेळवणी करपाचो उपदेशय ताणेंच केलो. झुजाउपरांत युधिष्ठिर निराश जावन बशिल्लो तेन्ना ताका राज्यकारभाराखातीर तयार करून अश्वमेध यज्ञ करपाची ताणें प्रेरणा दिली. झुजा उपरांत सोळा वर्सांनी हिमालयांत वचून तो धृतराष्ट्राक मेळ्ळो आनी ताका तप करपाचो उपदेश करून तो आपल्या आश्रमांत गेलो.

व्यासाचो पूत शुक्र. तो ल्हानपणासावनच वीतराग आशिल्लो. फुडें जनकाकडल्यान आत्मगिन्यान मेळोवन तो जीवन्मुक्त जालो. उपरांत ताणें हिमालयांत वचून निर्वाणाच्या मार्गाक लागपाचें थारायलें, तेन्ना व्यास पुताच्या दुख्खान आकूळ - पिकूळ जालो. तेन्ना शंकरान ताका दर्शन दिवन आत्मत्यागाच्या विचारापसून परावृत्त केलो.

वेदांचीं सुक्तां आनी ऋचा हांगा थंय वेगवेगळया गोत्रांतल्यान शिंपडल्यांत. तेन्ना यज्ञसंस्थेक उपेगी पडटले, तेचपरी परंपरेन वेद तिगतले अशे तरेन ह्या सगळया वेदराशीचें विभाजन करूंक जाय, हें चिंतून ताणें वेदराशींतल्यो सगळयो ऋचा वेगळयो काडल्यो आनी तांकां ऋग्वेद अशें नांव दिलें. तातुंतल्योच गावपाक योग्य अशो ऋचा वेगळयो काडून त्या चोंब्याक सामवेद अशें नांव दिलें. यज्ञप्रक्रियेची पुरायतरेन म्हायती दिवपी गद्य भागाक यजुर्वेद अशें नांव दिलें, जाल्यार यातुविद्येचे तशेंच लौकिक वेव्हारांत उपेगी पडपी मंत्र वेगळे करून ताका अथर्ववेद हें नांव दिलें. अशे तरेन ताणें चार वेदांच्यो चार वेगवेगळयो संहिता तयार करून त्यो आपल्या चार मुख्येल शिश्यांक शिकयल्यो. बहूवृचनांवाची ऋग्वेद संहिता पैलाक दिली, निगदाख्य यजुर्वेदसंहिता वैशंपायनाक दिली, छंदोग नांवाची सामवेद संहिता जैमिनीक दिली आनी आंगिरसी नांवाची अथर्वसंहिता सुंमतूंक दिली.

व्यासान ब्रह्मसुत्रां बरोवन तेवरवीं ताणें अध्यात्माचे सिध्दांत ह्या ग्रंथांत सूत्ररुपान गुंथल्यात. शंकराचार्य, निंबार्काचार्य, रामानुजाचार्य, वल्लभाचार्य, मध्वाचार्य आदी दर्शनकारांनी ब्रह्मसुत्रां हीं आधारभूत धरून आपआपलीं सांप्रदायिक दर्शनां मांडल्यांत.

पुर्विल्ल्या काळांतलीं पुराणां अवेवस्थित आशिल्लीं. तीं सूत - मागधांच्या वेगवेगळया गटांत शिंपडिल्लीं. हीं पुराणां एकठांय करून व्यासान एक सुबध्द आनी पुराणसंहिता तयार केली आनी आपलो शिश्य लोमहर्षण हाका तीं शिकयलीं. ताणें व्यास संहितेच्या आदाराचेर आपली अशी एक पुराण संहिता तयार केली आनी ती आपल्या स शिश्यांक सांगली. त्या शिश्यांनी स्वता संशोधन आनी संकलन करून आपआपल्यो नव्यो संहिता तयार केल्यो. अशेतरेन एका मूळ पुराणाचीं १८ पुराणां तयार जालीं.

महाभारत ग्रंथांत व्यासान सोबीत अशा कथांवरवीं अर्थशास्त्र, धर्मशास्त्र आनी मोक्षशास्त्र हीं तीन जिवीतदर्शनां मांडल्यांत. महाभारत बरयतना व्यासान झूज, कपट कारस्थान, कुरूक्षेत्रावयल्या १८ अक्षौहिणींचो संहार आनी तातुंतल्यान पुराय भारतभर पातळिल्लो उद्देग आदी गजालींचें वर्णन करचें पडलें. ताकालागून ही रचना पुराय जातकच ताचें मन बेचैन जालें. अशावेळार ताका नारदमुनी मेळ्ळो. ताणें ताका श्रीकृष्ण चरित्र भक्तिभावान वर्णन करपी वेगळोच ग्रंथ बरोवपाक सुचयलें. अशावेळार व्यासान भागवतपुराण बरोवक सुरवात केली. ताणें भागवतावरवीं भक्तीचें एक महाकाव्यच रचलें.

धर्माविशीं व्यासान जें विवेचन केलां तें अशें : देश काळ आनी परिस्थिती हातूंत मनीस, राश्ट्र, पुराय जिवीत, लोक आनी परलोक ह्या सगळयाचें धारण पोशण करता तो धर्म. धर्म म्हळयार फक्त स्वर्ग - मोक्षाचोच विचार न्ही जाल्यार जो ह्या वेव्हारीक जगांत लोकधारणा करता, लोकांक सुखी, समृध्द, परस्परपूरक नीती प्रवण आनी पुरुषार्थी करता तो धर्म. ताच्या मतान जिवीत हें रडत - कुढत बसपाचें नासून तें आनंदमय आसा. माया समजून ताचो त्याग करूंक जायना. व्यास इहलोकी कर्मवाद मानता तेचवांगडा दैववादय मानता. तशेंच अध्यात्म वा आत्मतत्त्व हाचेरय विश्वास दवरता. व्यासान आपले गिन्यानी नदरेन काळाचें म्हत्व जाणून घेतिल्लें. काळाच्या दुर्धर्ष सत्तेचेर विश्वास हें व्यासाच्या दर्शनाचेंच एक आंग जावन आसा.

व्यास हो ज्ञानगंगेचो भगीरथ जावन आसा. 'व्यासोच्छिष्टं जगत्सर्वम = संवसारांतलें सगळें गिन्यान व्यासान उश्टावन दवरिल्लें आसा, अशी लोकोक्ती रूढ जाल्ली आसा. वेदोत्तर काळासावन ते आयजमेरेन व्यास हो भारतीय संस्कृतीचो महाप्राण थारला. आमची संस्कृती ही व्यासकृत महाभारत आनी पुराणां हांचेर आदारिल्ली आसा. इतिहास पुराणांची रचना, पुर्विल्ल्या युगांतले विस्मृतप्राय अशा विद्या - कलांचें पुनरूज्जीवन, वेदवेदांगांचें संकलन संपादन आनी विभाजन ह्या भगिरथाचे तोलायेचो व्हड उद्देग करून व्यासान भारतीय संस्कृती अखंड राखली.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : महाभारत, वेद

**व्यासराय** : (इ.स. १४४७ - १५३९).

कर्नाटकांतलो एक व्हड वैश्णव भक्त आनी कवी. हाका व्यासतीर्थ अशेंय म्हण्टात. कावेरी न्हंयेचे देगेवयल्या बन्नूर ह्या गांवांत हाचो जल्म जालो. 'न्यायामृत', ''तर्क - तांडव'' आनी ''चंद्रिका'' हे ताचे नामनेचे ग्रंथ. तेशिवाय ताणें कन्नड भाशेंत कितलींशींच भक्तिरसपरिपूर्ण पदां रचल्यांत.

व्यासराय एक कुशल राजनीतिज्ञ आशिल्लो. विजयनगराच्या सम्राटांचो राजगुरू जावपाचो मान ताणें मेळयलो. तो विजयनगराचो राजकीय सल्लागार आसून, त्या साम्राज्याची उदरगत घडोवपाक ताचो हातभार लागला. सम्राट ताका धर्माचो आधारस्तंभ मानतालो.

श्रेश्ठ हरिदास पुरंदरदास आनी कनकदास हे ताचे शिश्य आशिल्ले. व्यासराय हो चैतन्यदेवाचो गुरू आशिल्लो, अशी आख्यायिका

आसा. आयजूय चैतन्यमताचे अनुयायी आपणाक व्यासरायमठाचे शिश्य समजतात.

व्यासरायाची बुध्दी जितली तीख तितलीच ताची भक्तीय एकांकीत आशिल्ली. व्यासरायान हरिदासपंथ लोकांमेरेन पावयलो. तशेंच ताणें संप्रदायांतलो उच्च - नीच हो भेदभाव ना करून, सगळयांक एका पांवड्यार हाडून भक्तीचीं दारां उक्ती केलीं.

- कों. वि. सं. मं.

**व्यास हरिराम :** (इ.स. १४९२ - १५९८).

राधावल्लभ संप्रदायांतलो एक कवी. वृंदावनांत हरित्रयी नांवाचे तीन नामनेचे संतकवी आशिल्ले. तातुंतलोच हरिराम व्यास हो एक. हाचो जल्म मध्यप्रदेशांतल्या ओरछा राज्यांत टीकमगढ हांगा जालो. ताच्या बापायचें नांव समोखन शुक्ल. मुळांत व्यास ही हरिरामाची पांडित्यदर्शक उपाधी आशिल्ली. पूण फुडें तें ताचें आडनांव जालें. भुरगेपणांत ताणें संस्कृत साहित्य आनी दर्शनां हांचो खूब अभ्यास केलो. काशीसारक्या विद्वानांच्या नगरांत वचून थंयच्या पंडिताकडेन ताणें शास्त्रार्थूय केला. पूण इतली विद्वत्ता मेळोवनूय ताच्या मनाक समाधान मेळ्ळेंना. मागीर ताका ताच्या काय भक्तांनी राधावल्लभ संप्रदायाचो संस्थापक श्रीहितहरिवंश हाका मेळपाक सांगलें. तो ताका वचून मेळ्ळो तेन्ना श्रीहितहरिवंशान ताचेर अनुग्रह करून राधावल्लभ संप्रदायाची दीक्षा ताका दिली.

हरिराम हो राधावल्लभ संप्रदायांत राधेचो सखो आनी विशाखा हिचो अवतार मानतात. तो अतिथिसत्काराविशीं जसो नामनेक पाविल्लो. तसोच निर्भय, धर्मपरायण आनी नितांत मोगाळ आशिल्लो.

हरिरामान हिंदी भाशेंत दोन आनी संस्कृत भाशेंत एक अशे तीन ग्रंथ बरयले. त्याशिवाय व्यासवाणी ह्या ताच्या ग्रंथाचे पुर्वाध आनी उत्तरार्ध अशे दोन भाग आसात. माधुर्यभक्ती आनी राधाकृष्णाची निकुंजलीला हे व्यासवाणीचे प्रतिपाद्य विशय आसात. ताणें स्वकीय - परकीय हे भेद सोडून राधेचें वर्णन केलां. रामलीला हो तातुंतलो म्हत्वाचो भाग आसून, रासलीलेचीं सुमार ५० पदां आसात.

व्यासवाणी ही भक्तिभावनेक प्राधान्य दिवपी आसून, तिच्या पद्यांत व्रजभाशेचें म्हावाळपण व्यक्त जाता. हरिरामाक संगीताचें बरें गिन्यान आशिल्लें. ताणें आपलीं पदां गेयतेचो विचार करून रचल्यांत. ताच्या उलोवपांत कबीर, नंददास आनी हित हरिवंश हांचे काव्यशैलीचो खूब प्रभाव आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**व्यंकटेश :** (पळेयात तिरूपती).

**श्री व्यंकटेश देवस्थान, नानोडें :** गोंयच्या दिवचल तालुक्यांतल्या नानोडें वाठारांतलें नामनेचें देवूळ. पुर्विल्ल्या काळांत श्रीमती बात्या नायकीण कळंगुटकरीण हे भावार्थी बायलेन आपले आस्पतींतल्यान ह्या देवळाची बांदणी केली आनी त्या देवळांत श्री व्यंकटेश तशेंच श्री लक्ष्मीचे मूर्तींची विधियुक्त स्थापना करून त्या देवांचो सगळो दिसपट्टो खर्च, उत्सव आदीविशीं कायम वेवस्था करून दवरली. तशेंच ह्या देवस्थानाचे म्हाजन कोण, फुडें ह्या देवस्थानाची वेवस्था कशी जावंची हेविशींय सारकी वेवस्था तिणें करून दवरिल्ली. ह्या देवस्थानाची घटनात्मक नेमावळ इ.स. १९३० वर्सा तेन्नाच्या सरकारान मान्य केली. हे नेमावळीक वट्ट १५ कलमां आसून त्याकाळांत ह्या म्हाजनांच्या नांवांत १७ लोकांचो आस्पाव आसून, तातूंत दादल्या वांगडा बायलांकय सगळे हक्क आनी अधिकार ह्या देवस्थानान दिल्ले आसात.

ह्या देवळांत चैत्र म्हयन्यांत वसंतपुजा आनी श्री रामनम, आषाढ म्हयन्यांत वद्य द्वादशी दिसा देवळाचो वाडदीस मनयतात, श्रावण म्हयन्यांत दर शुक्रारा कीर्तन आनी श्री गोकुळ अश्टमी दिसा श्रीकृष्ण जल्म, आश्विन म्हयन्यांत नवरात्र, कार्तिक म्हयन्यांत आंवळी भोजन आनी मार्गशिर्ष म्हयन्यांत कालो हे म्हत्वाचे उत्सव मनयतात.

श्रीमती बात्या नायकीण कळंगुटकरीण हिणें आपली पुराय आस्पत वेंकटेश देवस्थानाक ओंपिल्ली. तातूंत देवस्थान आशिल्ली जमीन, बागायत, तशेंच श्रीमती बात्या नायकीण कळंगुटकरीण हिणें स्वताचें घर त्या देवस्थानाच्या म्हाजनाखातीर वापरपाक दिलें. तशेंच त्या घराची वेळचेवेळार दुरुस्ती आदी खर्च त्या देवस्थानाच्या भांडारांतल्यान म्हाजनांनी करचो अशेंय नमुद केलें.

श्रीमती बात्या नायकीण हिणें आपलें मृत्यू पत्र १० मार्च इ.स. १८१४त केल्लें. ताचेवयल्यान हें देवूळ आनी मूर्ती स्थापना ते तारखेआदीं जाली आसूंक जाय.

- कों. वि. सं. मं.

**व्हॅनेझुएला :** दक्षिण अमेरिका खंडांतलो एक देश. खंडाच्या उत्तर पोंतार आशिल्ल्या देशाचो आवांठ ९१२, ०५० चौ. किमी. आसून चडांत चड उत्तर - दक्षिण लांबाय १,२७१ किमी. जाल्यार, रुंदाय उदेंत - अस्तंत १,४८९ किमी. देशाचे उत्तरेक कॅरिबीयन दर्या, उदेंतेक गियाना देश, दक्षिणेक ब्राझील, जाल्यार नैऋत्येक आनी अस्तंतेक कोलंबिया देश आसा. देशाची लोकसंख्या २०,२०३,००० (१९९१). स्पॅनीश ही देशाची राश्ट्रभास, जाल्यार काराकस हें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे चार वांटे केल्यात ते अशे - (१) माराकायबो पाणटो, (२) अँडीस दोंगरी वाठार, (३) लानोस आनी (४) गियाना पठारी प्रदेश.

माराकायबो हो व्हॅनेझुएलाचो वायव्येकडचो भाग. तातूंत

माराकायबो सरोवराचो आनी सखल भागाचो (तळघाट) आस्पाव जाता. ह्या भागांत आशिल्लें माराकायबो हें दक्षिण अमेरिकेंतलें सगळयांत व्हड सरोवर. त्या सरोवरान देशाची सुमार १३,५१२ चौ. किमी. भूंय रेवडिल्या. ह्या सरोवरावयल्यानच त्या भागाक माराकायबो हें नांव मेळ्ळां.

अँडीस दोंगरी प्रदेश हो देशाचो उत्तरेकडचो भाग. देशाची सुमार ६% भूंय अँडीस पर्वतांनी रेवडिल्या. देशांतले चडशे लोक ह्या भागांत रावतात. ह्या भागाचे तीन वांटे केल्ले आसात, ते अशे - (१) मॅरीडा पर्वतांवळ, (२) मध्य पठारी भाग आनी (३) ईशान्य पर्वतीय प्रदेश. मॅरीडा हो साबार पर्वतांवळींचो आनी सड्यांचो भाग. पिको बोलीवार हें ह्या भागांत आशिल्लें देशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक (५,००२ मी.). मध्य पठारी भागांत दोंगरांच्यो दोन वळी समांतर पातळ्ळयात. दोंगरामदल्या व्हड देगणांतली माती पिकाळ आसा. ईशान्य पर्वतीय प्रदेश हो खूब ल्हान - व्हड दोंगुल्ल्यो आशिल्लो प्रदेश.

लानोस हो अँडीज आनी गियाना पर्वतांच्या मदीं आशिल्लो प्रदेश. हो प्रदेश चडसो सपाट आसून, ऑरिनिका न्हंय ह्या प्रदेशांतल्यान व्हांवता. चरवा मळयांखातीर हो प्रदेश प्रसिद्द आसा.

गियाना पठारी प्रदेश हो देशाचो दक्षिणेकडचो भाग. ह्या प्रदेशान देशाची सुमार अर्दी भूंय रेवडिल्या. हांगा आशिल्ल्यो साबार दोंगुल्ल्यो मुखेलपणान ग्रानायट फातराच्योच आसात.

व्हॅनेझुएलांत ल्हान - व्हड अशो साबार न्हंयो आसात. तांच्यांतल्यो चडशो अॅटलांटीक महासागराक आनी साप्प उण्यो कॅरेबियन दर्याक मेळटात. चडशो न्हंयो दोंगरी वाठारांतल्यान व्हांवतात, देखून चडशा न्हंयांच्या पात्रांचेर मदीं ऊंच अशे खूब धबधबे आसात. ऑरिनोका ही देशांतली सगळयांत व्हडली न्हंय. तिची देशांतली लांबाय सुमार २,०६६ किमी. रिओ कारोनी, कौरा, आरो, वेन्टूआरी आनी मॅटा हे तिचे मुखेल फांटे. रिओ आपूरे हीय न्हंय खूब म्हत्वाची.

**हवामान :** व्हॅनेझुएलाचो उश्णकटीबंधांत आस्पाव जाता. देशाचें वर्स पावशी आनी सुकें अशा दोन ऋतूंत विभागला. सादारणपणान एप्रिल ते ऑक्टोबर मेरेन पावस पडटा. नोव्हेंबर ते मार्च मेरेनचो तेंप सुको उरता. वाठारा कणकणीं पावसाचें प्रमाण बदलत रावता. प्ररीजा सड्याचेर आनी गियाना सड्यांचेर वर्सुकी पावसाचें प्रमाण ३०५ सेंमी. इतकें आसता, जाल्यार कॅरिबीयन दर्यादिगेर तें फक्त ४० सेंमी. आसता. लानोसच्या उदेंत प्रदेशांत वर्सुकी सरासरी पावस १०० सेंमी. इतलो पडटा. उंचाये प्रमाण देशांतलें तापमानय बदलत रावता. लानोसच्या मध्य वाठारांत आनी माराकायबो पाणट्याचे उत्तरेकडेन वर्सुकी सरासरी तापमान २८° सें. इतलें आसता. जाल्यार अँडीयन सड्याचेर तें १९° सें. आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** व्हॅनेझुएलाची अदर्यावयर भूंय रानांखाला आसा. हांगा तणाचे प्रकारय खूब आसात. उंचायेप्रमाण रानांचे प्रकार सांपडटात. ऑरिनीकोच्या सकयल्या भागांत पानझडी रूख, आनी पावसांत वाडपी रानां मेळटात. देशाच्या हेर भागांनी चडशीं उश्ण प्रदेशांत सांपडपी रानां आसात. चड उंचायेच्या भागांनी आलपायन प्रकारचीं रानां वाडटात.

व्हॅनेझुएलाच्या रानांनी विंगड विंगड प्रकारची मोनजात मेळटा. प्युमा, जॅगुआर, ऑसलोट, रान सुणें, टापीर हांचे भायर माजरा जातीचे थळावे प्रकारय खूब आसात. तशेंच वेगवेगळया रानांनी स प्रकारचे माकड दोन प्रकारचीं वांस्वेलां आनी हरणांय मेळटात. सरपटपी मोनजातींत मानगें, कॅमेन (मानग्याचोच एक प्रकार), शेड्डे, साबार जातीचे कांसव आनी विखाळे आनी बिनविखाळया सोरपांचो आस्पाव जाता. थळाव्या सुकण्यांपरस स्थलांतरीत सुकण्यांचो आंकडो व्हड आसता. क्रॅन, हॅरोन, स्टोर्क आनी आयबीस हीं सुकणीं म्हत्वाचीं. उत्तरेकडच्या घोलिंनी गॉशारो (तेल सवणीं) हीं सवणीं मेळटात. ऑरोनिको रानांनी बॅलबर्ड नांवाचीं सुकणीं मेळटात.

**इतिहास :** युरोपी लोक व्हॅनेझुएलांत पावचे पयलीं थंय मुखेलपणान इंडियन लोकांचोच राबितो आशिल्लो. ह्या आदीवासी लोकांचे कॅरीब आनी आरवाक अशे दोन पंगड आशिल्ले. कॅरीब पंगडांतले लोक देशाचे उदेंतेकडेन जाल्यार आरवाक अस्तंतेकडेन रावताले. शेतवड, शिकार, नुस्तेंमारी आनी फळां वा झाडपालो एकठांय करप हो तांचो मुखेल वेवसाय आशिल्लो. युरोपी लोक आयल्याउपरांत, तांच्या साबार तरेच्या उपद्रवाक लागून खूब इंडियन लोक काबार जाले अशें म्हण्टात.

क्रिस्तोफर कोलंबस हो व्हॅनेझुएलांत पावपी पयलो युरोपी मनीस. १४९८त तो पारीया द्वीपकल्पाचेर देंवलो. उपरांत साबार स्पॅनिश भोंवडेकारांनी कॅरेबीयन दर्यादिगेर आशिल्ल्या सैमीक बंदरांचो आनी हेर म्हत्वाच्या सुवातींचो सोद लायलो. उपरांत साबार स्पॅनीश लोक व्हॅनेझुएलांत येवन रावले. सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेक ते मार्गारीता आनी क्युबागो जुंव्यावयलीं मोतयां एकठांय करपाक म्हूण आयिल्ले. आराया द्वीकल्प ते कॅप कोदेरा मेरेनच्या सुवातींनी खूब मोतयां मेळटालीं. देखून ताणीं ते सुवातेक 'मोतया दर्यादिग' अशें नांव दिलें. आराया द्वीकल्पाचेर आशिल्ल्या खाऱ्या तळयासावन ते खूब प्रमाणांत मिठय तयार करपाक लागले. १५२८ ते १५४६ ह्या काळांत स्पेनचो राजा चार्ल्स पयलो हाणें जर्मनीक आशिल्लें आपलें रीण फारीक करपाखातीर व्हॅनेझुएला वसणूक तांकां खंडाक म्हूण दिल्ली. जर्मनांनी हे वसणुकांची अर्थीक स्थिती सुदारपाक मातय तकालस घेतली ना. १७०० मेरेन व्हॅनेझुएला ही दक्षिण अमेरिकेंतली स्पॅनीशांची एक गरीब वसणूक आशिल्ली. अर्थीक स्थितींत सुदारणा घडोवन हाडपाखातीर स्पेनान व्हॅनेझुएलाचे सगळे वेपारी हक्क

काराकासचे रॉयल ग्यूपूझकोना कंपनीकडेन दिले. १७३० मेरेन कंपनीन काकाओ, नीळ आनी चामड्याच्या उद्देगांत वाड करून वसणुकेचे अर्थीक स्थितींत थोडी - भोव सुदारणा घडोवन हाडली. व्हॅनेझुएला वेपाराचेर कंपनीचो पुराय ताबो आशिल्लो हाका लागून वसणूककारांकडच्यान कंपनीक विरोध जावपाक लागलो. उपरांत १७८४त ती कंपनी बंद पडली.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या सुरवेकसावनच दक्षिण अमेरिकेंतल्यो स्पॅनिश वसणुको स्वातंत्र्याखातीर झगडपाक लागल्यो. सायमन बॉलिवार, फ्रान्सिस्को द मिरांदा आनी आंतिन्युओ जोसे द सुक्रे हे व्हॅनेझुएला स्वातंत्र्य चळवळीचे व्हड नेते. दक्षिण अमेरिकेंतली उत्तरेकडची स्पॅनिश सत्ता काबार करपाखातीर ते आपल्या हेर सांगात्यांच्या आदारान स्पॅनिश लोकांआड झुजत रावले. दक्षिण अमेरिकेंत स्पॅनिश सत्तेआड आवाज उठोवपी व्हॅनेझुएला ही पयली वसणूक. वसणूकेचो चडसो वांटो स्पॅनिश सत्तेखाला आसतना लेगीत ५ जुलय १८११ दिसा व्हॅनेझुएलान आपलें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. पूण देशाक पुराय स्वातंत्र्य १९२१त मेळ्ळें. त्या वर्सा बॉलीवार हाणें स्पॅनिशांआड व्हड जैत मेळयलें. ताचे आदीं १८१९त सायमन बॉलीवार 'ग्रांद कोलंबीयेचो' (विशाल कोलंबीया) अध्यक्ष जालो. त्यावेळार व्हॅनेझुएला, कोलंबीया, एक्वादोर आनी पनामाचो आस्पाव त्या प्रजासत्ताकांत जातालो. १९२१त व्हॅनेझुएला ग्रांद कोलंबियेसावन वेगळो जावन, १९३०त आपलेखातीर नवें संविधान घडयलें. स्वातंत्र्य झुजारी जनरल जोसे आंतोन्युओ प्याझ हो १९३१त नव्या प्रजासत्ताकाचो पयलो राश्ट्राध्यक्ष जालो.

स्वातंत्र्य प्राप्ती उपरांत 'काउदिल्योस' (मुखेली) हाचे हुकूमशाय राजवटीक लागून व्हॅनेझुएलांत विसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक मेरेन तंग वातावरण पातळिल्लें. तातुंतल्या आंतोनियो गुझमॅन ब्लांको आनी जुआँ विसेन्त गॉमेझ ह्यो काउदिल्यो म्हत्वाच्यो ब्लांको हाणें व्हॅनेझुएलाचेर १८७० ते १८८८ मेरेन आपलो शेक गाजयलो. तो सत्तेर येवंचे पयलीं देशाची भौशिक, अर्थीक आनी राजकीय स्थिती साप्प इबाडिल्ली. ब्लांकोक सुवेवस्था हाडपाक यश मेळ्ळें. ताणें येरादारी आनी संचारण मळार सुदारणा घडोवन हाडल्यो. ताच्या तेंपार परकी गुंथवणुकेत लेगीत खूब नेट आयिल्लो. जुआँ गोमेझ हाची सत्ता १९०८ ते १९३५ मेरेन आसली. ताणें निश्ठूरपणान आपल्या विरोधकांक निखळावन उडयल्ले. ताच्या शासनाखाला पेट्रोलियम उद्देगाक चालना मेळ्ळी. पेट्रोलीयमाचे येणावळीक लागून गोमेझाक व्हॅनेझुएलाचें व्हड रीण फारीक करपाक शक्य जालें. पूण येणावळीचो व्हड वांटो ताणें आपल्या खाजगी कामांखातीर वापरलो.

हुकूमशाय राजवटींत देशाची अर्थीक स्थिती सुदारिल्ली आसली, तरी व्हॅनेझुएलाचे लोक तांचे जुलमी राजवटीक साप्प बेजारिल्ले. १९३५ उपरांत लोकशाय तंत्राचेर पक्ष उबारून ते हुकूमशाय राजवटीक विरोध करपाक लागले. १९४५त आसिओन देमोक्रेतीका (AD) ह्या पक्षान लश्कराच्या आदारान सत्ता हातासली. रोमूलो गालेगोस हाका राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून काडलो. पूण १९४८त लश्करानूच ताका सत्ते भायरो केलो. उपरांतचीं दोन वर्सां, तीन लश्करी अधिकाऱ्यांनी एकठांय येवन सत्ता गाजयली. १९५० सावन मार्कोस पॅरेज जिमेंझ हाची हुकूमशाय राजवट सुरू जाली. जिमेंझ हाचे जुलमी राजवटीआड व्हॅनेझुएला लोकांनी उठाव करून ताका तडीपार केलो. उपरांत लोकांनी रोमूलो बॅटान्कोर्ट हाका राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून काडलो. १९५८ सावन व्हॅनेझुएलाचो राश्ट्राध्यक्ष लोकशाय पद्दतीन वेंचून काडटात. १९७४त ॲक्सिओन देमोक्रेतीया पक्षाचो कार्लोस आन्दरेस पॅरेझ राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९७९त लुइस हेरैरा काम्पीन्स हो सोशल क्रिस्तीआन पक्षाचो राश्ट्राध्यक्ष जालो. उपरांत १९८४त जायमे लुसिंची आनी १९८९त परतून पॅरेझ राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९९४त राफॅल काल्देरा रॉडरिगेज हो व्हॅनेझुएलाचो राश्ट्राध्यक्ष जालो.

१९८०च्या सुरवातीच्या तेंपासावन पेट्रोलियमाची मागणी उणी जाल्ल्यान, व्हॅनेझुएलाची अर्थीक स्थिती जी पुरायपणान तेल निर्यातीचेर आदारिल्ली ती खूब खालावली. हालीं तेंपार व्हॅनेझुएलांत अर्थीक समस्या आसली तरी थंयचें राहणीमान उंचेल्या दर्ज्याचें आसा.

**राज्यवेवस्था :** व्हॅनेझुएला हें एक संघराज्यात्मक प्रजासत्ताक. अठरा वर्सां पुराय जाल्ल्या सगळ्या नागरिकांक मत दिवपाचे हक्क आसात. १८११ सावन देशांत २६ संविधानांची स्थापणूक केल्या. सद्या देशाचो राजकारभार १९६१त आपणायल्ल्या संविधानाप्रमाण चलता.

राश्ट्राध्यक्ष हो देशाचो श्रेश्ठ अधिकारी आसा. ताका भौशीक वेंचणुकेंतल्यान पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात. विधिमंडळ चॅम्बर ऑफ डेप्यूटीज आनी सेनॅट अशा दोन घरांनी विभागलां. चॅम्बर ऑफ डेप्यूटिज हातूंत २०३ वांगडी जाल्यार सेनॅटांत ४३ वांगडी भौशिक वेंचणुकेंतल्यान पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात.

व्हॅनेझुएलाचीं २० राज्यां, दोन संघात्मक प्रदेश आनी संघात्मक जिल्हो अशी विभागणी केल्या. दर एका राज्यांत, प्रांतांत आनी जिल्ह्यांत लोकांनी वेंचून काडिल्लें विधीमंडळ आनी राश्ट्राध्यक्षान नेमिल्लो गव्हर्नर राज्यकारभार चलयता. सुप्रीम कोर्ट हें देशांतलें सर्वोच्च न्यायालय आसा.

**अर्थीक स्थिती :** दक्षिण अमेरिका खंडांतल्या हेर देशांपरस व्हॅनेझुएलाचो राहणीमानाचो दर्जो चड ऊंच आसा. अर्थवेवस्थेचो चडसो वांटो पेट्रोलीयम उत्पादनाचेर आदारून आसा. पूण व्हॅनेझुएलाची संपत्ती लोकांभितर सारकी विभागिल्ली ना. गरिबी आनी बेरोजगार हो बिकट प्रस्न सद्या सरकारा मुखार आसा. लॅटीन अमेरिका आनी युरोपांत पेट्रोलीयमाची मागणी उणी जाल्ल्यान, ताचो वायट परीणाम

व्हॅनेझुएलाचे अर्थवेवस्थेचेर जाला.

व्हॅनेझुएलांत खनीज तेलाचे सांठे व्हड प्रमाणांत सांपडल्यात. माराकायबो पाणटो आनी लिंयाबोसच्या उदेंत वाठारांत ते चड प्रमाणांत आसात. व्हॅनेझुएलाचे वट्ट येणावळींतलो सुमार ८० % वांटो पेट्रोलियम उद्‌देगासावन मेळटा. व्हॅनेझुएला खनीज तेलाची निर्यात करपी मुखेल देश. अमेरिका, लॅटीन अमेरिकेंतले हेर देश आनी युरोपी देशांक व्हॅनेझुएला पेट्रोलीयमाची निर्यात करता.

१९१७ सावन देशांतल्या विंगड विंगड वाठारांतल्यान खनीज तेल काडपाक सुरवात जाल्ली. १९२० मेरेन हो उद्‌देग खूब फांकारलो. पूण खनिज तेल काडपाखातीर व्हॅनेझुएलाकडेन तितलें भांडवल नाशिल्ल्यान, ताणें तेल काडपाचे हक्क अमेरिका आनी हेर युरोपी कंपन्यांक दिल्ले. १९६० त खनीज तेल काडप आनी ताचे दरेचेर नियंत्रण दवरपाखातीर व्हॅनेझुएलान, तेल काडपी हेर देशांच्या आदारान प्रट्रोलियम निर्यात करपी देशांची संस्था उबारली (OPEL) उपरांत १९७६त व्हॅनेझुएलान देशांतल्यो सगळयो परकी तेल कंपन्यो विकत्यो घेवन तांचें राश्ट्रीयीकरण केलें.

देशांतल्या उद्‌देग - धंद्यांभितरूय खूब वाड जाल्ली आसा. देशांतले सुमार १५% लोक उद्‌देग - धंद्यांत गुंथल्यात. तेल प्रक्रिया हो हांगाचो मुखेल उद्वेग. माराकायबो हें तेल शुध्दीकरणाचें मुखेल केंद्र. ॲलुमिनीयम, शिमीट, अन्न प्रक्रीया, पोलाद आनी लुगट हेय उद्वेग म्हत्वाचे.

देशाच्या शेतकी वेवसायांत सुमार १५% लोक वावुरतात. हांगाचे नगदी पिकावळींत केळीं, कॉफी, मको, संत्रां आनी तांदूळ हांचो आस्पाव जाता. पशुपालन आनी कुकडां पोसपाचे वेवसाय नेटान चलयतात. व्हड शेतांनी यंत्र आनी साऱ्याचो चड वापर जाता. देशाची चडशी भूंय रानाखाल आसून लेगीत रानांची उस्तवारी व्हडलिशी जावंक ना. नुस्तेंमारी वेवसायूय मर्यादीत आसा. देशांत सैमीक वायुचे सांठेय खूब आसात. बॉक्सायट, फातरी कोळसो, लोखण, भांगर, हिरे आनी फॉस्फेट हीं खनीजांय थंय कांय प्रमाणांत मेळटात.

देशाचे आयात - निर्यात संबंद मुखेलपणान अमेरिका, जर्मनी आनी जपानाकडेन आसात. निर्यात जावपी म्हालांत मुखेलपणान पॅट्रोलीयम आनी पॅट्रोलीयम उत्पादन हांचोच व्हड वांटो आसता. जाल्यार आयात जावपी म्हालांत रसायनां, उद्वेगीक यंत्रसामुग्री आनी गाडयांच्या मेकळ्या भागांचो आस्पाव जाता.

**येरादारी आनी संचारण :** देशाची चडशी भूंय दोंगरी आसून लेगीत, दक्षिण अमेरिकेंतल्या हेर देशांपरस व्हॅनेझुएलांत येरादारीच्या मळार चड सुदारणा जाल्ली आसा. काराकॅस राजधानी रूंद रस्त्यांनी हेर व्हड शारांक जोडल्या. दोंगरी वाठारांक लागून रेल्वेमार्ग खूब उणे आसात. मॅक्युटीया हो आंतरराश्ट्रीय विमानतळ. ला गौउरा, माराकायबो आनी पोर्तो काबॅलो हीं देशांतलीं मुखेल बंदरां.

**समाजजीण :** व्हॅनेझुएलांत, स्पॅनीश लोकांनी आपली वसणूक उबारचे पयलीं थंय इंडीयन लोकांचे साबार पंगड आशिल्ले. स्पॅनीश लोकांचो शेक आयल्याउपरांत ते इंडियन लोकाकडच्यान आपलीं कामां करून घेवपाक लागले. स्पॅनीश लोकांनी आफ्रिकेंतल्यान गुलाम म्हूण खांप्री लोकांकूय हाडिल्ले. कांय तेंपा उपरांत ह्या तीनूय जातींच्या लोकांभितर भरसण जावन, एक नवोच समाज निर्माण जालो. सद्या देशांत दोन तृतीयांश लोक ह्या नव्या मेस्तोज परंपरेंतले आसात. खांप्री आनी गोरे लोक साप्प उण्या प्रमाणांत आसात. रोमन कॅथलीक हो देशांतलो मुखेल धर्म. पूण तो राश्ट्रीय धर्म न्हय. संविधानाप्रमाण लोकांक खंयचोय धर्म आपणावपाक मेकळीक आसा.

१९४५ ते १९५० ह्या तेंपार काम सोदपाच्या निमतान साबार युरोपी आनी कोलंबिया देशांतले लोक व्हॅनेझुएलांत आयले. युरोपी लोकांत स्पेनी, इटालीयी आनी पुर्तुगेजांचो आंकडो चड आशिल्लो. हेर लॅटीन अमेरिकेंतल्या देशांभशेन व्हॅनेझुएलाचे भौशिक जीणेंत वांशीक वेगळेचार दिसनात.

बेसबॉल आनी सॉकर हे देशांतले लोकप्रिय खेळ. साबारकडेन बैलांच्यो धिरयोय आयोजीत करतात. हेर लॅटीन अमेरिकेंतल्या लोकांप्रमाण, व्हॅनेझुएलाच्या लोकांकूय संगिताची आनी नाचाची चड आवड. थंयच्या लोकप्रिय नाचांत लयेचेर नाचपाचो 'साल्सा', तशेंच मॅरेन्ग्यू आनी 'गौराच्या' ह्या कॅरेबियन नाचांचो आस्पाव जाता. जोरोपो हो व्हॅनेझुएलाचो एक प्रसिद्‌द लोकनाच. सद्या भुरग्यांभितर 'रॉक' संगीत चड प्रसिद्‌द आसा.

**शिक्षण :** लॅटीन अमेरिकेंतल्या हेर देशांपरस व्हॅनेझुएलान शिक्षणीक मळार खूब उदरगत घडोवन हाडल्या. सद्या पंदरा ते वीस मेरेन पिरायेच्या ८५% भुरग्यांक वाचपा-बरोवपाक येता. पूण आयज लेगीत कुशळ शिक्षक आनी वैज्ञानीक हांचो थंय उणाव आसा. शिक्षणीक मळार घसघशीत उदरगत जावंची म्हूण व्हॅनेझुएला सरकारान १९०४ सावन विद्यावेतनाची व्हड येवजण आंखल्या. शिक्षणीक कायद्या प्रमाण देशांतल्या ७ ते १३ मेरेन पिरायेच्या भुरग्यांक शिक्षण घेवप सक्तीचें आसा. विद्यापीठ मेरेन फुकट शिक्षण दिवपाचीय वेवस्था सरकारान केल्या.

**साहित्य आनी कला :** विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक व्हॅनेझुएलाचे साहित्यकार आनी कलाकार हांणी आंतरराश्ट्रीय मळार नामना जोडिल्ली. कादंबरीकार तेरेझा दे ला पार्रा आनी कवी आंदरेस एलोय ब्लान्को हे त्यावेळावयले प्रसिद्‌द साहित्यकार. राश्ट्रपती रोमुलो गॅलेगोस होय एक श्रेश्ठ साहित्यकार. ताच्यो डोना बारबारा (१९२९), कॅनायमा (१९३५) आनी पोर्बे निग्रो (१९३७) ह्यो कादंबऱ्यो खूब म्हत्वाच्यो. आलेझान्ड्रो ऑतेरो आनी जेसस सोटो हे १९०० तले प्रसिद्‌द चित्रकार. बांदावळ शास्त्रांतूय व्हॅनेझुएलान आपली खाशेली

शैली उबारल्या. 'आसोसिआसिओन व्हॅनेझोलाना आमिगोस देल आर्ट कॉलोनिअल'; सॉसिएदाद आमिगोस देल म्यूसिओ दे बेलास आर्ट ह्यो संस्था कला - कुसर हांकां उत्तेजन दितात. 'फायन आर्टस्' म्युझियम; बोलिवार म्युझियम आनी म्युझियम ऑफ कॉलोनियल आर्ट हीं देशांतलीं प्रसिद्द वस्तू संग्रहालयां.

काराकास, माराकायबो, काबिमास, बार्क्युशिमेतो, आकारिगोआ, सान फॅर्नार्दो दे आपूरे, मॅरिडा, वलेरा, माराकॅ, सिदाद बोलिवार, सिदाद ऑजेडा, सान फॅलिपॅ, मातुरीन हीं देशांतलीं म्हत्वाचीं थळां.

- कों. वि. सं. मं.

**व्हॉलीबॉल :** जाळयेवयल्यान हातांनी बॉल मारून खेळपाचो एक विश्वप्रसिद्द खेळ. इनडोअर आनी आउटडोअर व्हॉलीबॉल अशे ह्या खेळाचे दोन प्रकार आसात. इनडोअर हो लांकडी वा सिन्थेटीक लादयेर (इण्ततञ), इमारती भितरल्या खेळांगणांत खेळपाचो खेळ. हातूंत दर एका संघांत ६ खेळगडे आसतात. आउटडोअर हो भायर रेंव वा तणाच्या खेळांगणांत खेळपाचो खेळ. संवसारांत हो 'टू मॅन व्हॉलीबॉल' म्हूण प्रसिद्द आसा. हातूंत दर एका पंगडांत मुखेलपणान दोन आनी कांयवेळार तीन, चार वा स खेळगडे आसतात. दोनूय प्रकारच्या व्हॉलीबॉल खेळाखातीर नेम सारकेच आसात. भारतांत आउटडोअर हो प्रकार चडकरून स खेळगडे घेवन खेळटात.

विलियम जी. मोरगन, ह्या अमेरिकन शारिरीक शिक्षकान ह्या खेळाची कल्पना १८९५त मुखार हाडली. १८९१त सुरू जाल्ल्या बास्केटबॉल खेळांतल्यानूच ताका व्हॉलीबॉल हो नवो खेळ सुरू करपाक प्रेरणा मेळ्ळी अशें ताणें सांगलां. १९१८त ह्या खेळांतल्या दर एक पंगडाची संख्या 'स' अशी थारायली.

व्हॉलीबॉल खेळाची पयली आंतरराश्ट्रीय सर्त १९१८त फिलिपीन्सच्या मानीला शारांत जाली. 'इंटरनॅशनल वॉलीबॉल फॅडरेशन'ची स्थापणूक १९४७त जावन ते संस्थेन पयली जागतीक सर्त १९४९त घडोवन हाडली. जाल्यार ऑलेम्पीक खेळांत व्हॉलीबॉलचो १९६४त प्रवेश केलो. सद्या फॅडरेशनाचे १७५ वयर देश वांगडी आसून, ही संस्था दर वर्सा वॉलीबॉल सर्त आयोजीत करता. सद्या हो खेळ आशिया आनी युरोपांत चड लोकप्रिय आसा.

**बॉल :** ह्या खेळांत वापर जावपी बॉलाचें वयलें आवरण चामड्याचें आसता. बॉलाचो व्यास सु. २० सेंमी. आसून, वजन लागीं लागीं २७० ग्राम आसता.

**खेळांगण (The Court) :** खेळांगणाची लांबाय १८ मीटर आसून रुंदाय ९ मीटर आसता. म्हळयार दर एक चौकट ९x९ मीटर असो आसता. खेळांगणाच्या मर्दी दोन खांब्यांक जाळी (Net) बांदतात. हे जाळयेची वयली देग दादल्यांखातीर २.४३ मीटर ऊंच, जाल्यार बायलांखातीर २.२४मीटर ऊंच आसता.

खेळांगणांत स खेळगड्यांखातीर स सुवाती मांडल्यात त्यो अशो- रायट बॅक, सॅंटर बॅक, लॅफ्ट बॅक आनी रायट फॉरवर्ड, सॅंटर फॉरवर्ड, लॅफ्ट फॉरवर्ड. सर्व्हीस करपावेळार दर एका खेळगड्याक आपले सर्व्हीसेप्रमाण वांट्याक आयिल्ले सुवातेचेर रावचें पडटा. पूण सर्व्हीस केल्याउपरांत बॉल हवेंत आसतना ते आपल्यो सुवाती बदलूंक शकतात. पूण फाटलो खेळगडी जाळयेकडेन येवन शॉट मारपाक शकना. रायट बॅकाक सर्व्हीस करपाक पयली संद मेळटा. मूठ मारून केल्ली सर्व्हीस जाळयेक तेंकनासतना सर्व्हीस घेवप्यांच्या अर्दांत पावंक जाय. सर्व्हीस घेतल्यांनी बॉल बरेतरेन परतूपाक जाय. अशे तरेन दोनूय एकामेकांआड शॉट मारून वा प्लेसींग करून गूण मेळोवपाखातीर झुजतात. पूण सर्व्हीस करतल्या पंगडाकूच गूण मेळटात. पूण सद्या ह्या नेमांत बदल जावन, यशस्वीपणान बॉल दुसऱ्या अर्दांत परतीतल्याक गूण मेळटा. सर्व्हीस करपी पंगडाकडच्यान चूक जायत वा तांच्या खेळांगणांभितर जमनीक बॉल तेंकत जाल्यार विरोधी पंगडाक सर्व्हीस करपाची संद मेळटा. दर एक अर्दांतल्या खेळगड्यांक जाळयेवयल्यान बॉल विरोधकांच्या अर्दांत मारचेपयलीं फकत तिनूच खेप बॉलाक तेंकपाक मेळटा. पूण शॉट आडयता आसतना (ब्लॉक) बॉलाक तेंकल्यार तो स्पर्श हिशोबाक धरिनात. तेचपरी एकूच खेळगडी सेगीत दोन खेप बॉलाक स्पर्श करपाक शकना.

पंगडाक गूण अशे रितीन मेळूंक शकतात -

अ) जर विरोधकांच्या खेळांगणांभितर (inside the court) दुसऱ्या पंगडान बॉल मारलो जाल्यार,

आ) सर्व्हीस घेतल्या पंगडान तिनांवयर चड खेपे बॉलाक स्पर्श केल्यार,

इ) सर्व्हीस घेतल्यांनी बॉल खेळांगणाभायर मारलो जाल्यार वा तांकां तेंकून बॉल भायर पडलो जाल्यार,

ई) सर्व्हीस घेतना वा बॉल परतितना खंयच्याय पंगडाचो खेळगडो जाळयेक वा क्रॉस लायनीक तेंकत जाल्यार वा हेर चूक करीत जाल्यार.

दर एका गूणा फाटल्यान रायट बॅकाक सर्व्हीस करपाची संद मेळटा. सायड आउट जायत मेरेन सर्व्हीस करपाचो हक्क ताचोच. दर एक सायड आउटाफाटल्यान विरोधी पंगडाक सर्व्हीस करपाची संद मेळटा. पूण ताचे पयलीं त्या पंगडांतल्या दर एक खेळगड्याक दक्षिणावर्त (Clockwise) घुंवन दुसरी सुवात घेवंची पडटा. देखीक - रायट फॉर्वड रायट बॅकाची सुवात घेता आनी रायट बॅक हो सेंटर बॅक जाता. अशे रितीन प्रत्येकाची सुवात बदलता. जो पंगड पयलीं पंदरा गूण जोडटा, तो सॅट जिखता. पूण विरोधी पंगडाचे गूण तेरा सकयल आसपाक जाय. पूण खंयचोय सॅट सतरा गूणांवयर

आसपाक शकना. सॅट १६-१६ गूण मेळून 'टाय' जायत जाल्यार सतरावो गूण पयलीं जोडपी पंगड, तो सॅट जिखता. सद्या एक सेट २५ गुणांचो आसता. व्हॉलिबॉल सर्ती तीन वा पांच सॅटांच्यो आयोजीत करतात.

**ऑलिम्पीक चॅम्पीयनशीप (१९६४ सावन)**

| | दादले | बायलो |
|---|---|---|
| १९६४ | सोव्हीएत युनियन | जपान |
| १९६८ | सोव्हीएत युनियन | सोव्हीएत युनियन |
| १९७२ | जपान | सोव्हीएत युनियन |
| १९७६ | पोलंड | जपान |
| १९८० | सोव्हीएत युनियन | सोव्हीएत युनियन |
| १९८४ | अमेरिका | चीन |
| १९८८ | अमेरिका | सोव्हीएत युनियन |
| १९९२ | ब्राझील | क्युबा |

**जागतीक वस्तादपण (१९४९ सावन)**

**दादले** - सोव्हीएत युनियन - (१९४९, १९५२, १९६०, १९६२, १९७८, १९८२)
झेकोस्लॉव्हाकीया - (१९५६, १९६६)
अस्तंत जर्मनी (GDR) - (१९७०)
पोलंड - (१९७४)
अमेरिका - (१९८६)
इटली - (१९९०)
**बायलां** - सोव्हीएत युनियन - (१९५२, १९५६, १९६०, १९७०, १९९०)
जपान - (१९६२, १९६७, १९७४)
चीन - (१९८२, १९८६)
क्यूबा - (१९७८)

**जागतीक करंड**

**दादले** - (१९६५ सावन)
सोव्हीएत युनियन - (१९६५, १९७७, १९८१, १९९१)
अस्तंत जर्मनी (GDR) - (१९६९)
अमेरिका - (१९८५)
क्यूबा - (१९८९)
**बायलां** - (१९७३ सावन)
चीन - (१९८१, १९८५)
क्युबा - (१९८९, १९९१)
सोव्हीएत युनियन - (१९७३)
जपान - (१९७७)

**बिच व्हॉलीबॉल :** आउट डोअर व्हॉलीबॉलाचो एक प्रकार. प्रोफेशनल बिच व्हॉलीबॉलांत एका पंगडांत फकत दोन खेळगडे आसतात. खेळांगणाचो आवांठ आनी नेम हे इंडोअर व्हॉलीबॉल खेळासारकेच. हो प्रकार कॅलिफोरनीयात १९४०त सुरू जावन, उपरांत १९६० मेरेन ताका खूब प्रसिद्दी मेळ्ळी. ह्या खेळांच्यो सर्ती घडोवन हाडपाखातीर आनी तांचेर नियंत्रण दवरपाखातीर १९८१त 'द अॅसोसिएशन ऑफ व्हॉलीबॉल प्रॉफेशनल्स' हे संस्थेची स्थापणूक जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**व्हॉल्टेर :** (जल्म : २१ नोव्हेंबर १६९४ पॅरिस; मरण : ३० मे १७७८ पॅरिस).

एक श्रेश्ठ फ्रेंच साहित्यकार. कवी, नाटककार, इतिहासकार आनी तत्त्वज्ञ म्हूण ताची नामना आसा. फ्रेंकोयस मारी अॅरोएट हें ताचें खरें नांव. व्हॉल्टेर हें ताणें बरोवपाखातीर घेतिल्लें नांव.

ताच्या बापायचें नांव रॅशब्रूने. ताचे आवयविशीं चडशी म्हायती मेळना. तो सात वर्सांचो आसतनाच ताचे आवयक मरण आयलें. ताच्या भुरगेपणाचीय चडशी म्हायती ताणें दिवंक ना. ताणें लुईस - ली - ग्रँड, पॅवीस हांगाचे कॉलेजींतल्यान शिक्षण घेतलें. हे कॉलेजींत शिकता आसतनाच ताका साहित्य, नाटक आनी भौशिक जीणेविशीं आवड निर्माण जाली. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा ताणें कॉलेजीचो अभ्यासक्रम सोंपोवन तो शारांतल्या प्रतिश्ठीत उमराव लोकांच्या पंगडाक मेळ्ळो. हुशारी, सर्वांगीण नदरेचें लिखाण आनी विनोदी वृत्ती हाका लागून पॅरिस शारांत ताची लोकप्रियता वाडत रावली. चवदावो लुई हाचे जुलमी राजवटीचो प्रत्यक्ष अणभव ताका आयलो. हातुंतल्यानच ताणें पिडापीड भोगोवपी निश्ठूर सम्राटांआड बरोवपाक सुरवात केली; १७१७त ताणें सरकाराच्या नश्ट्या चाली - रितींचेर टिका केल्ल्यान, ताका बास्टायलच्या बंदखणींत दवरलो. बास्टायलच्या इकरा म्हयन्यांच्या कारावासांत ताणें 'ऑदीपे' हें नाटक बरयलें. ह्या नाटकाक लागून ताका त्या तेंपावयलो फ्रेंचाचो श्रेश्ठ नाटककार म्हूण नामना मेळ्ळी. उपरांत ताणें पन्नासांवयर नाटकां बरयलीं. बास्टायलचे बंदखणींत आसतना ताणें राजा चवथो हेन्री हाचेर 'ला हेन्रीओद' हें महाकाव्य बरयलें. १७२६त राजकीय कारणाक लागून जेन्ना ताका देशाभायरो करपाची ख्यास्त फर्मायल्ली, तेन्ना ताणें इंग्लंडाक वचून रावपाचें थारायलें. इंग्लंडांतलें वैचारीक स्वातंत्र्य व्हॉल्टेराक खूब मानवलें. थंय ताची अलेक्झांडर पॉप आनी जॉनाथन स्वीफ्ट ह्या श्रेश्ठ साहित्यकारांकडेन भेट जाली. तत्त्वज्ञानी जॉन लॉक आनी वैज्ञानीक आयझेक न्यूटन हांच्या वैचारीक लिखाणान तो प्रभावीत जालो. लॉक हाच्या तत्त्वज्ञानाविशींचे विचार जाणून घेवपाखातीर तो इंग्लीश भास शिकलो. देशाभायरो केल्लो तेन्ना व्हॉलटेर इंग्लंडाक कवी म्हूण गेल्लो, पूण फ्रांसाक तो तत्त्वज्ञानी म्हूण परतलो.

इंग्लंडच्यान फ्रांसाक परतल्या उपरांत ताचें वेगवेगळया प्रकाराचें लिखाण एकाफाटल्यान एक अशें उजवाडा येवपाक लागलें. तातुंतलो बाराव्या चार्लसाचो इतिहास (१७३१), आनी ताचें प्रसिद्द नाटक 'झायरे' (१७३२) हांचो आस्पाव जाता. मनशाच्या संस्कृतीक इतिहासाचें खाशेलेपण सांगपी ताचे लेख 'लेटर्स फिलॉसॉफिक' ह्या नांवान १७३४त उजवाडा आयले. तातूंत ताणें इंग्लीश संस्कृती, शिक्षणीक संस्था आनी चाली - रितींची तोखणाय करून फ्रेंच संस्कृतीचेर टिका केल्ली. हाका लागून फ्रेंच साहित्यकारांनी व्हॉलटेराक देशद्रोही थारावन त्या ग्रंथाचेर कायद्यान बंदी हाडली. देखून ताका पॅरीस शार सोडचें पडलें.

पॅरिस शार सोडल्या उपरांत तो मारक्यूस द कॅटलॅट हिचेवांगडा लॉरेनाक रावपाक लागलो. ह्या काळांत ताणें साबार नाटकां, अध्यात्मविद्येचेर निबंद, न्यूटनाचीं दोन वेगवेगळीं चरित्रां आनी कविता बरयल्ल्यो. झादीग (१७४७) आनी मायक्रोमेगास (१७५२) ह्यो ताच्यो तत्त्वगिन्यानावयल्यो कथा प्रसिद्द आसात. कॅटलॅट हिका १७४९ वर्सा मरण आयल्या उपरांत तो बर्लीन शारांत वचून रावलो. फ्रेड्रिक द ग्रेट हाच्या सहवासांत तीन वर्सां काडल्या उपरांत तो स्विझरलँडाक गेलो. थंय आसतना १७५५त पुर्तूगालांत जाल्ल्या भिरांकूळ भुंयकापाची प्रेरणा घेवन ताणें 'द लिस्बोन डिसास्टर' ही कविता बरयली. १७५९ तो फ्रेंच - स्विस शिमेर आशिल्ल्या फ्रेर्ने गांवांत रावपाक लागलो. थंयसावन ताणें संवसारांतल्या वायट प्रवृत्तींचेर आनी धर्मपिठांच्या ढोंगांचेर साहित्यप्रकारांतल्यान टिकांचो शिंवर केलो. कँडीड आनी युनिवर्सल हिस्ट्री हो ताचो त्या वेळावयलो म्हत्वाचो वावर. पिरायेच्या ८३ व्या वर्सा तो पॅरीसाक परत गेलो. उपरांत थंयच ताका मरण आयलें.

व्हॉल्टेरान आपल्या वैचारीक लिखाणांतल्यान समाजांतले अंधश्रध्दाचेर, धर्माच्या नांवान जावपी पिळवणूक, धर्मगुरूंचें पापचरण जुलमी राजवट हांचेर टीका केल्या. ताच्या अशा लिखाणांतल्यान युरोपी प्रबोधन कार्याक नेट आयलो अशें सांगतात. कवी, नाटककार, इतिहासकार, तत्त्वगिन्यानी अशा विंगड विंगड भूमिकेंतल्यान वाङ्मय रचून ताणें स्वताचें अशें एक यूग निर्माण केल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

**व्हेलेंटायन डे :** (सेंट व्हेलेंटायन डे). मोग्यांचो दीस. १४ फेब्रुवारी हो दीस पुराय संवसारभर व्हेलेंटायन डे म्हूण मनयतात. ह्या दिसा मोगी एकामेकांक 'बी माय वेलेंटायन' (म्हजेंच मोगी तूं) अशें बरयल्लें कार्ड धाडटात.

रोमन कॅथलिक इंगर्जेन किरिस्तांवाच्या लोकप्रिय 'फर्टिलीटी फेस्टीवलच्या' आड हो दीस मनोवक सुरवात केल्ली. मूळांत फर्टिलीटी फेस्टीवल ची सुरवात रोमन लोकांच्या 'फेस्टीवल ऑफ लव' पसून प्रेरणा घेवन जाली. मोग्यांची देवी ज्युनो फेब्रुआटा हिच्या नांवान हो उत्सव मनोवपाक लागले. फेब्रुवारी म्हयन्यांत तरणाट्या चलयांची वळेरी करून तरणाटे चले लोटरी पद्धतीन आपली जोडीदारीण निवडटाले. मागीर ते चलये वांगडा त्या दिसासावन फुडल्या वर्सा मेरेन मजा करप अशी प्रथा आशिल्ली. हाचो फायदो घेवन चले चलयो स्वताचो म्हूण एक उत्सव मनयताले आनी मार्चाचे १ तारखेर आपल्या मोग्यावांगडा लग्नाचो विचार जाहीर करताले.

जाच्या नांवान हो दीस मनयतात तो सेंट व्हेलेंटायन किरिस्तांव धर्माचो रोमनांचो राजा क्लायडियन - २ हाणें व्हेलेंटायनाची किरिस्तांव धर्मा आडची शिकवण पळोवन ताका बंदखणींत घालो. तेन्नाच्या काळांत सैनीक भरती खातीर लग्नाचेर बंदी घाली. तरी आसतना तो आपले मोगी चलये वांगडा लग्न जालो. ताणें हें क्लॉयडियसारच्या हुकमाआड केल्ल्यान ताणें ताका १४ फेब्रुवारी दिसा मरणाची ख्यास्त फर्मायली.

व्हेलेंटायन जंय ख्यास्त भोगतालो ताच्या जनेलाभायर व्हायलेटांचीं खूब झाडां आशिल्लीं. त्या झाडाचें एक पान काडून ताचेर तुज्या व्हेलेंटायनाची याद दवर हे शब्द बरयले आनी तें पान बंदखणीच्या ऑफिसराचे कुड्डे चलयेकडेन धाडलें. हाचें फळ म्हूण त्या दोगांयच्या पवित्र मोगाचे श्रध्देचेर ॲस्टरियाचें कुड्डेंपण दृश्टींत बदललें आनी तिका दिसपाक लागलें. ही खबर सगळयाक पातळ्ळी आनी तेन्नाच्यान मोगी तरणाटे चले - चलयो हो दीस 'ल्युपर्कस' ह्या नांवान मनोवंक लागले. फुडें ४९६ त वर्सा पोप हाणें समाजाचे कुड्डे विचारसरणेक लागून त्या उत्सवाचेर बंदी हाडली.

अशें म्हण्टात, फेब्रुवारी म्हयन्यांत वसंत ॠतूंत त्या काळांत रोमी तरणाटे आपल्या मोगी प्रेमिकांक मागणी घालताले अशी प्रथा आशिल्ली तांणी बरयल्ली मोगाची चीट १४ फेब्रुवारीक धाडटाले. हेच प्रथेक मागीर ल्हव ल्हव 'व्हेलेंटायन चीट' म्हणपाक लागले. फुडें हाचो प्रचार वाडत गेलो. उपरांत व्हेलेंटायन कार्डां धाडपाची प्रथा सुरू जाली. सगळयांत पयलीं अशे तरेचें कार्ड ज्युनो फेब्रुआटा हाणें बरयलें अशें म्हण्टात.

कांय जाणकाराच्या मताप्रमाण हे प्रथेचो आनी व्हेलेंटायन ह्या नांवान जावन गेल्ल्या दोन संतांचो तसो कांयच संबंद ना. रोमन पुराण कथेंतली मोग्याची देवी व्हिनस हिचो चलो क्युपिडचें चित्र व्हेलेंटायनच्या कार्डाचेर आसता.

सोळाव्या शेंकड्यांत स्वित्झरलंडांत सेंट फ्रान्सिस डी सेल्स ऑफ जिनेव्हा हाका अशें दिसलें; किरिस्तांव लोक बरेच मदेल्यात तांकां शिस्त लावपा खातीर ताणें तेन्ना अस्तित्वांत आशिल्ली लॉटरी पद्दत बंद केली. हे लॉटरी पद्दतींत रोमन लोक लोटरी तिकीटाचेर संतांचीं नांवां घालताले. तरणाटे चले चलयो चिटयो काडटालीं आनी त्या लॉटरीच्या ड्रॉ प्रमाण वर्सभर ताचेबरोबर संवसार करचो पडटालो.

अठराव्या शेंकड्यांत फ्रांसांतल्यो तरणाट्यो चलयो आपल्या मोग्या चल्याचें नांव कागदार बरोवन तो कागद वा चीट ताचे फाटीर दसयतालीं. तशेंच मध्य युगांत चलयो हळडुव्या रंगाचे कपडे घालतालीं. ताच्या मतान हळडुवो रंग हो पुनर्निर्मितीचो, सुरवी संवसाराचो.

व्हेलेंटायन डे ही प्रथा लंडन, इंग्लंड, अमेरिका, ईटली ह्या देशांत खूब प्रचारांत आसा. भारतांत ही प्रथा ब्रिटीश लोकांपसून आयली. आयज ही प्रथा शारांपसून गांवगिऱ्या वाठारांमेरेन पावल्या. पयलींच्या काळांत ह्या दिसा कार्डां धाडटाले. सद्याच्या काळांत कार्डा वांगडा, मोगाचो संदेश आशिल्लीं पदां, स्टफ्ड टॉयज वा उगडासाक उरपासारक्यो वस्ती एका मेकांक भेट धाडटात.

- कों. वि. सं. मं.

**व्होंवरी :** दोंगरांतलो फातर खणून तयार केल्लीं घरां. पुर्विल्ल्या काळांत बौध्द भिक्षू अशा व्होंवरींनी राबितो करताले. हांकां लेणीं ह्याय नांवान वळखतात. बौध्द लोक अशा व्होंवरीघरांचो लेण ह्या नांवान उल्लेख करताले. चडशा सगळ्या व्होंवरींनी त्यो जाणें खणल्यात तांच्या नांवाचो उल्लेख आसतालो. नासिक लागसारच्या पांडव व्होंवरींत लेण हो शब्द पयले खेप आयिल्लो दिसता. थंय अशें म्हळां, 'एतच लेणी महादेवी, महाराज मातामहाराज पतामही ददाति निकायस महावनीयान भिक्षू संघस'. लेण हो शब्द संस्कृत लयन = गृह = घर ह्या शब्दावयल्यान आयला.

सुरवेक ह्यो व्होंवरी साद्योच आसताल्यो पूण उपरांत तातूंत शिल्पां आनी मूर्ती खणपांत आयल्यो. तेचपरी तांच्या वण्टींचेर वेगवेगळीं चित्रां रेखाटून तांची सोबाय वाडोवपांत आयली. पुराय भारतांत सद्या सुमार एक हजार व्होंवरी खबर आसात. तातूंत सुमार शंबर व्होंवरी ब्राह्मणी जैन आसात. उरिल्ल्यो सुमार णवशें व्होंवरी बौध्दांच्यो आसात. वट्ट व्होंवरींतल्यो सुमार णवशें व्होंवरी महाराष्ट्रांत आसात. कारण व्होंवरी खणपाखातीर जाय आशिल्लो एकसंघी आनी घटमूट असो फातर महाराष्ट्रांतल्या सह्याद्री आनी ताचो वाठार सोडलो जाल्यार हेरकडे केन्नाय मेळटा.

जैन आनी बौध्द व्होंवरी सादारणपणान एकाच काळांत खणपांत आयल्यो. ब्राह्मणी व्होंवरी मात तांच्या बऱ्याच काळा उपरांत निर्माण जाल्यो. जैन आनी बौध्द व्होंवरी हांचे मदीं खुबच वेगळेपण जाणवता.

व्होंवरींचे मुखेल दोन वर्ग आसात - एहिक आनी धर्मीक. भारतांत एहिक व्होंवरी खुबच थोड्यो आसात.

धर्मीक व्होंवरीचे तीन वर्ग जातात - बौध्द, जैन आनी ब्राह्मणी. इतिहास आनी पुराणां हातूंत वर्णन केल्ल्या देवदेवतांच्यो आनी तांच्या अवतार कृत्याच्यो प्रतिमा जातूंत खणल्यात ताका ब्राह्मणी व्होंवरी म्हण्टात. अशो व्होंवरी चडकरून महाराष्ट्रांत घारापुरी आनी वेरूळ हांगा, तमिळनाडूंत महाबलिपुरम हांगा आसात. जैन व्होंवरी महाराष्ट्रांत वेरूळ हांगा आनी ओडिसांत भुवनेश्वरालागसार आसा. बौध्द व्होंवरी बिहार वाठारांत राजगृहा लागसारच्या बराबर दोंगुल्ल्यांत आनी नागार्जुनी पर्वतांत तशेंच महाराष्ट्रांत जायतेकडेन आसात.

बिहारांतल्यो व्होंवरी सगळ्यांत पुर्विल्ल्यो मानपांत येतात. (सन आदीं तिसऱ्या शतमानाच्या निमाणें), थंय तांकां सातघर ह्या नांवान वळखतात. बराबर व्होंवरींतल्या सुदाम आनी लोमश नांवाच्या व्होंवरीक इतिहासीक आनी शिल्पाचे नदरेन खुबच म्हत्वाची समजतात. अशोकाचो नातू दशरथ हाचे लेख नागार्जुनी पर्वतांतल्या व्होंवरींत खणील्ले आसून तातूंत जायतीं खाशेलेपणां आसात.

काळाप्रमाण व्होंवरीचे तीन वर्ग केल्ले आसात ते अशे - (१) सनआदीं दुसऱ्या शतमानासावन इ.स.च्या दुसऱ्या शतमानाच्या निमाणेमेरेन (२) पांचव्या शतमानाच्या मध्यासावन सातव्या शतमानाच्या मध्यामेरेन आनी (३) सातव्या शतमानाच्या निमण्या अर्धासावन धाव्या शतमानाच्या निमाणेमेरेन.

बौध्द व्होंवरी ह्यो हीनयान आनी महायान ह्या दोनूय पंथांच्यो आसून तांच्यांतलें वेगळेपण स्पश्टपणान नदरेंत भरता. सुरवातीच्या काळांत तयार जाल्ल्यो बौध्द व्होंवरी ह्यो हीनयान पंथाच्यो आसात. हातूंत बुध्दमुर्ती दिसून येतात. भाजें, कोंडाणे, पितळखोरे, अजंठा (णव आनी धा नंबरची व्होंवरी), बेडसे, नासिक आनी कार्ले ह्यो व्होंवरी हीनयान पंथाच्यो आसात. महायान पंथाचें आनी शिल्प पद्दतीचें खाशेलेपण आशिल्ल्यो व्होंवरी चडकरून अजंटा, वेरूळ, औरंगाबाद हांगा आसून बौध्द व्होंवरींनी सादारणपणान चैत्य आनी विहार हे दोन प्रकार दिसून येतात. चैत्य म्हळ्यार बौध्द भिक्षुचें प्रार्थनामंदिर आनी विहार म्हळ्यार तांचें निवासस्थान.

चैत्यगृहांत बुध्दाच्या अवशेशाचेर उबारिल्लें स्तूप वा बुध्दांच्या दंतादी अवयवांचेर उबारिल्लो दागोबा आसता. हाचेभायर कांय चैत्यगृहांत फक्त बुध्दाच्यो मुर्तीच आसात.

विहार म्हळ्यार आश्रम वा मठ हातूंत मध्यभागाक चौक आनी भोंवतणी कुडी अशी रचणूक केल्ली आसता. कांय विहार सामकेच सादे आसून तातूंत चौक नासतात. फकत वळीन चार पांच कुडी खणून काडिल्ल्यो आसात.

व्होंवरी ह्यो जरी मुखेलपणान बौध्द भिक्षूच्या निवासाखातीर आनी ताचे पुजा प्रार्थनेखातीर खणपांत आयल्यो तरी त्यो सोबितकायेचे, नदरेन आनी शिल्पकलेचो खाशेलो आविश्कार उक्तावपाचो हेतू नदरेमुखार दवरून तांची निर्मिती करपांत आयली.

व्होंवरींवयल्यान तेचपरी तातुंतल्या लेखांवयल्यान त्या त्या वाठाराचो राजकीय, समाजीक, धर्मीक, अर्थीक आनी संस्कृतीक इतिहासाचें गिन्यान मेळटा. भारतांतले स्थापत्यकलेची उत्क्रांती कशीकशी जायत गेली हाची म्हायती ह्या व्होंवरींवयल्यान मेळटा. ह्या व्होंवरींतल्या

मुर्तींवयल्यान तेचपरी तातुंतल्या चित्रांवयल्यान त्या त्या काळांतल्या वस्त्रांच्यो आनी अलंकाराच्यो पद्दती समजून येतात. ताकाच लागून शिल्पसौंदर्याचे इतिहासीक नदरेन ह्या व्होंवरींची भारतीय संस्कृतींत खाशेली सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : विहार

## शंकर : (पळेयात शिव).

## शंकर भट्ट - (१) : (इ.स.चो १७ वो शेंकडो).

एक मीमांसक. आपणाक तो मीमांसाद्वैतसाम्राज्यनीतिज्ञ अशें म्हणून घेतालो. काशीक रावपी नामनेचो धर्मशास्त्रज्ञ आनी महामीमांसक नारायणभट्टाचो हो दुसरो पूत. भगवद्भास्कर ह्या बृहत्ग्रंथाचो बरोवपी नीलकंठ हो ताचो चलो आनी सिध्दान्तकौमुदीचो कर्तो भट्टोजी दीक्षित हो ताचो शिश्य.

शंकरान जायते ग्रंथ रचले. पार्थसारथी मिश्राच्या शास्त्रदीपिका ग्रंथाच्या दुसऱ्या खंडाचेर हाची प्रकाश नांवाची टीका आसा. द्वैतनिर्णय हो ताचो नामनेचो ग्रंथ. ह्या ग्रंथांत कृष्णजल्माश्टमीव्रत, नवरात्रव्रत, संनिपाताशौच सारकिल्ल्या विशयांचेर जीं मत मतांतरां आसात तांचो विचार करून मीमांसाशास्त्राच्या आदारान हाणें कांय निर्णय सांगिल्ले आसात. दाक्षिणात्य ग्रंथकारांच्या मतांचेर आदारून आपणें हे निर्णय दिल्यात अशें ताणें म्हळां. मीमांसाबालप्रकाश हो ताचो ग्रंथ म्हणजे पूर्वमीमांसासुत्रांत सांगिल्ल्या सिध्दांतांचें बालसुबोध विवेचन. मीमांसासंग्रह हो ताचो पद्यग्रंथ. तातूंत ह्या शास्त्रांतल्या प्रधान तत्त्वांची भासाभास आसा. हो ग्रंथ म्हणजे ताचे काव्यशक्तीचो एक आगळो - वेगळो नमुनो. हाचेभायर निर्णयचंद्रिका, व्रतमयूख, विधिरसायन, श्राध्दकल्पसार, ईश्वरस्तुती हे ग्रंथ ताणें बरयल्यात. विधिरसायनांत अप्पय दीक्षिताच्या विधिरसायन ग्रंथाचें खंडन आसा. गाधिवंशानुचरित असोय ताचो एक ग्रंथ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## शंकर भट्ट - (२) : (इ. स.चो १७ वो शेंकडो).

एक धर्मशास्त्रकार आनी मीमांसक. ताच्या बापायचें नांव नीलकंठ. बापायच्या संस्कारमयूख नांवाच्या ग्रंथसंकलनांत शंकरान खूब आदार केलो आनी आपणेय ग्रंथ रचले. ताणें रचिल्ल्या ग्रंथांचीं नांवां अशीं - कुंडभास्कर, व्रतार्क, कुंडार्क, कर्मविपाकार्क, सदाचार संग्रह आनी एकादशीनिर्णय. कुंडभास्कर ही ताच्या बापायच्या कुंडोद्योतावयली टिका. ह्या ग्रंथाक कुंडोद्योतदर्शन म्हणूनय वळखतात. हाची भट्टभास्कर नांवाची जैमिनिसुत्रांवयली टीका उजवाडावंक ना. व्रतकौमुदी नांवाचो एक ग्रंथ शंकरभट्टाच्या नांवाचेर मेळटा. पूण तो कोण शंकरभट्ट हें कळना.

- कों. वि. सं. मं.

## शंकराचार्य : (इ.स. चो ७ - ८ वो शेंकडो).

एक महान यती, ग्रंथकार, अद्वैत मताचो प्रचारक, स्तोत्रकार आनी धर्मसाम्राज्याचो संस्थापक.

केरळांतल्या कालटी नांवाच्या गांवांत शिवगुरू आनी विशिश्टा नांवाच्या एका तपोनिश्ठ नंपूतिरी ब्राह्मणागेर तो जल्माक आयलो. हें दांपत्य शिवभक्त तशेंच धर्मपरायण आशिल्लें.

ताणें गांवांतल्या एका गुरूकडल्यान संस्कृत शिक्षणा वांगडाच हेर सगळयो विद्या आत्मसात केल्यो. गुरूकडल्यान तो आपल्या घरा आयलो आनी विद्यार्थ्यांक शिकोवंक लागलो.

उपरांत आवयकडल्यान परवानगी घेवन तो दीक्षा घेवपाखातीर नर्मदेचे देगेर आशिल्ल्या गोविंदयतीच्या आश्रमांत गेलो. ताची अलौकिक बुध्दिमत्ता, प्रखर वैराग्य पळोवन गोविंदयतीन शंकराचार्याक शिश्य म्हण आपणायलो आनी संन्यासदीक्षा दिवन शंकराचार्य नांव दवरलें.

गुरूकडल्यान ताणें अद्वैतपर आनी सांप्रदायिक अशीं ब्रह्मसुत्रां आनी उपनिषदां शिकून घेतलीं.

गुरूचे आज्ञेवयल्यान शंकराचार्य काशीक गेलो आनी विश्वनाथाचें दर्शन घेवन ताच्या वांगडा आशिल्ल्या शिश्यांक मर्णिकर्णिका घाटाचेर वेदान्ताचे पाठ दिले.

ताणें ब्रह्मसूत्रां, गीता आनी उपनिषदां हांचेर भाश्यां बरयल्यांत. तेभायर ताणें आपल्या अद्वैत सिध्दांताचे प्रस्थापनेखातीर कितलेशेच ग्रंथ रचल्यात. ताच्या नांवार दोनशांपरस चड ग्रंथांची नोंद आसा. पूण इतलेय ग्रंथ एका आचार्यान निर्माण केल्ले नात. आचार्याउपरांत शांकरपिठाचेर अधिश्ठित जाल्ल्या विद्वानांनी ग्रंथरचना केल्ली आसून, ती आद्य शंकराचार्याच्या सिध्दांताक धरून आसा. हे सगळे आचार्य स्वताक शंकराचार्य म्हणून घेताले. हाकालागून ही सगळी ग्रंथरचना मूळ आचार्याच्या नांवार जमा जाल्या. ताकालागून आचार्याचे ग्रंथ खंयचे आनी हेरांचे खंयचे हें थारावप कठिण जालां.

वैदिक धर्माच्या प्रचाराखातीर शंकराचार्यान शिश्य तयार केले. सुरेश्वर, पद्मपाद, हस्तामलक आनी तोटक हे ताचे चार मुखेल शिश्य विद्वान, आचारशील आनी संन्यासी आसले.

प्रचलित ग्रंथाच्या आदारान परंपरा दिसता ती अशी - विष्णु - शिव - ब्रह्मा - वसिष्ठ - शक्ती - पराशर - शुक - गौडपाद - गोविंद आनी शंकर. हे परंपरेप्रमाण आचार्य हो गौडपादांचो प्रशिश्य आनी गोविंदाचो शिश्य आसलो.

भारतवर्षाची धर्मीक वेवस्था चालू दवरपाखातीर भारताच्या चारय दिकांनी चार मठांची स्थापना केली. द्वारका, पुरी, बदरी आनी श्रृंगेरी हांगा मठस्थापना करून आपल्या मुखेल शिश्यांक थंय

मठपती नेमले.

नेपाळाक वचून थंयची वैदिक पुजापद्दत बंद पडिल्ली ती चालू केली आनी पशुपतिनाथाचो जीर्णोध्दार केलो.

भाश्यलेखन, प्रचार, दिग्विजय, मठस्थापना असो वावर आचार्यान पिरायेच्या ३१ वर्सांत पुराय केलो. बत्तीसाव्या वर्सा केदारनाथाक ताणें समाधी घेतली. ताणें सगळया मठपतींक जो उपदेश केला ताका महानुशासन अशें म्हण्टात.

शंकराचार्याची मानवी जीण खूबशा असामान्य गुणांनी समृध्द आसली. ताची मातृभक्ती उत्कट आसली. शिश्यांचेर ताचो खूब मोग आसलो. ताची मानसिक शक्त अपूर्व आसली. धारण शक्त तीव्र आनी काळीज भावकोमल आसलें.

शंकराचार्य हो तंत्र-मंत्रशास्त्राचो विद्वान आसलो. ताची त्रिपुरसुंदरीची उपासना ही तांत्रिक आसली. ताणें आपल्या मठांत त्रिपुरसुंदरीची पुजापद्दत सुरू केली. तो आत्मज्ञानी आसूनय, कर्मप्रवण आसलो, ज्ञानाचो उपासक आसून, उपासनेचो समर्थक आसलो.

भगवान शंकराचार्य ही भारतांत जावन गेल्ली एक दिव्य विभूती. आचार्य जावन गेल्यार बाराशें वर्सांचो काळ गेलो. पूण ताची कीर्त आजूनय ताजी आसा. वैदिक धर्माच्या इतिहासांत आचार्यांचें योगदान व्हड आसून तेवरवीं तो नव्या युगाचो प्रवर्तक थारलो.

- कों. वि. सं. मं.

## शं. कु. पोट्टेक्काट : (जल्म : १९१३; मरण : १९८२).

नामनेचो मल्याळम कादंबरीकार. ताच्या १९६४ - १९७३ ह्या काळांतल्या साहित्यिक वावराखातीर ताका १९८० वर्साचो ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळो. ताणें कादंबरी वांगडा लघुकथाय बरयल्यात. ताणें विषकन्यका, मूटुपटम, नाटन् प्रेमम, पेमाशिक्षा आदी जायत्यो कादंबऱ्यो बरयल्यात. हातूंत ताची 'विषकन्यका' ही सगळयांत म्हत्वाची कादंबरी. ताची शैली काव्यमय आसून तातूंत वास्तव आनी कल्पना सौंदर्य हांचो सोबीत मेळ जाल्लो आसा.



- कों. वि. सं. मं.

## शंख : 

देवपूजेंतलें एक म्हत्वाचें उपकरण. तशेंच विष्णुच्या हातांतलें एक आयुध. देवी भागवतांत हाचे निर्मितीची कथा सांगल्या. शंखचूड नांवाच्या दैत्याचें तुलसीवांगडा गांधर्व पद्दतीन लग्न जालें. उपरांत हो दैत्य खूब मातलो. ताणें देवराज्याचेर स्वारी करून सगळया देवांक हारयले. सगळे देव शंकराक शरण गेले. शंकराचें आनी शंखचूडाचें झूज पेटलें. पूण दैत्य मरपाचें चिन्न दिसना. कारण ताची बायल महापतिव्रता आशिल्ली. विष्णुन शंखचूडाचें रूप धारण करून तुलसीच्या पातिव्रत्याचो भंग केलो. शंखचूड मेलो आनी ताच्या अस्थींचे शंख जाले. विष्णुचें कपट कळटकच तुलसीन विष्णुक 'तूं पाशाण जातलो' असो शाप दिलो. तेन्ना विष्णुन तिका सांगलें, आपूण गंडकीदेगेचो पाशाण जातलो आनी तुजो घोव शंखरुपान आपले पूजेंत आसतलो.



देवाचे पूजेंत कलशपूजे उपरांत मंत्र म्हण्टात तो असो आसा -

शङ्खादौ चन्द्रदैवत्यं कुक्षौ वरुणदेवता ।
पृष्ठे प्रजापतिश्चैव अग्रे गङ्गा सरस्वती ॥
त्वं पुरा सागरोत्पन्नो विष्णुना विधृत : करे ।
अग्रत : सर्वदेवानां पाञ्चजन्य नमोऽस्तु ते ॥

**अर्थ -** शंखाच्या मुळांत चंद्र, कुशींत वरुण, फाटल्यान प्रजापती आनी फुडल्यान गंगा - सरस्वती आसतात. हे पांचजन्य नांवाच्या शंखा, पयलीं तूं सागरांत तयार जालो. विष्णुन तुका हातांत घेतलो. सगळया देवांच्या फुडें तूं रावता, म्हणून तुका नमस्कार.

असो मंत्र म्हणून शंखपुजा करतात आनी ताका गंध - फूल आनी तुळशीपान घालतात. उपरांत शंखोदक, फुल्लान आपल्या आंगाचेर आनी पुजेच्या साहित्याचेर शिंपडटात. ह्या वेळार शंखमुद्राय करतात.

शिव आनी सूर्य हांच्या अभिशेकावेळार मात शंखाचो उपेग करिनात. हेर सगळया देवांक शंखोदक आवडटा.

शंखाचे दोन प्रकार आसात - वामावर्त आनी दक्षिणावर्त. शंखाच्या आंगांचेर आशिल्ल्या पिळांवयल्यान हे प्रकार थारायल्यात. खरे शंख चडकरून दक्षिणावर्त शंख दुर्मिळ आसतात. पिळांच्यो रेगो अर्द्यो आसल्यार, भांगरान त्यो पुराय केल्यार त्या शंखाचो दोश ना जाता असो समज आसा. हालीं दक्षिण भारतांत चडकरून रामेश्वर हांगा नकली शंख तयार करतात.

शंख फुंकनासतना कानाक लायल्यार एक गोड आवाज आयकूंक येता.

चंद्राक प्रसन्न करपाखातीर शंखाचें दान दिवचें अशें मत्स्य पुराणांत म्हळां. शंख वाजयल्याबगर देवाचें दार उगडचें न्हय अशें वराह पुराणांत सांगलां. तशें केल्यार ती व्यक्ती दर एका जल्मांत भेड्डी जातली अशी भविश्यवाणीय थंय केल्या. मंदिरांत शंख वाजोवपी मनीस सगळया पापांतल्यान मुक्त जाता अशें बृहन्नारदीय पुराणांत सांगलां.

पुर्विल्ल्या काळांत देवपूजेभशेन, राजाची आज्ञा सांगपाकूय शंख वाजयताले.

शंखाचो झूजवाद्य म्हणूनय उपेग जाला. झूजाचे सुरवातीक आनी झूज सोंपतकच हें वाद्य वाजयताले. भारतीय झुजाक सुरवात जावचेपयलीं भीष्मान शंख वाजयल्लो. ताचेफाटल्यान कृष्ण आनी अर्जुनानूय शंख फुंकिल्ल्याचें वर्णन मेळटा. दर एक झुजारी आपल्या शंखाक खाशेलें नांव दिताले. महाभारतांत सांगिल्लीं कांय नामनेच्या शंखांचीं आनी तांकां धारण करतल्यांचीं नांवां अशीं आसात -

पाञ्चजन्यं हृषीकेशो देवदत्तं धनञ्जयः ।
पौण्ड्रं दध्मौ महाशङ्खं भीमकर्मा वृकोदर : ।
अनन्तविजयं राजा कुन्तीपुत्रो युधिष्ठिर : ।
नकुल : सहदेवश्च सुघोषमणिपुष्पकौ ।।

**अर्थ** - श्रीकृष्णान पांचजन्य, अर्जुनान देवदत्त, भयंकर कर्म करपी वृकोदरान (भीमान) पौंड्र, कुंतीपुत्र युधिष्ठिरान अनंतविजय आनी नकुल, सहदेव हांणी सुघोष आनी मणिपुष्पक हे शंख वाजयले.

वैद्यकशास्त्रांत शंखाक खूब म्हत्व आसा. ताचें म्हत्व सांगपी एक सूक्तय अथर्ववेदांत आसा. तशेंच आयुर्वेदीय ग्रंथांतूय ताचे खाशेले गूणधर्म सांगल्यात.

भारतीय शिल्पशास्त्रांत शंखाचो प्राणिज रत्नांत आस्पाव केला. धवसार हळदुवो शंख बरो म्हण्टात. तशेंच बारीक तोंडाचे, फुगिल्ल्या आकाराचे आनी स्निग्ध शंख मोलादीक मानतात.

बंगालांत शंखाक खूब पवित्र मानतात. दर एका मंगल कार्यांत थंय शंखनाद करतात. शंखांपसून तरातरांचीं कांकणां तयार करतात. हें काम करपी लोकांक शंखकार ह्या नांवान वळखतात. हालींसरा शंखाचे विविध कलाकसुरीचे नमुने विक्रेखातीर दवरिल्ले दिसतात.

विज्ञानीक शास्त्रा प्रमाण, शंख हें एका खाशेल्या जलचराचें, संरक्षणाचें कवच आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**शंखवाळकर, प्रभाकर कृष्णा कामत :** (जल्म : ३१ ऑक्टोबर १९३१, ताळगांव तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पुर्तुगेजांआड गुपीत साहित्य वांटपाक आनी पत्रकां लावपाक तो आपलो भाव त्रिविक्रम कृष्णा शंखवाळकर हाका मदत करतालो. ताच्या भावाक पोलिसांनी अटक केली तेन्ना पोलिसांक चुकोवन तो आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या बेळगांव फांट्यांत गेलो. थंय ताणें गनिमीकाव्याचें प्रशिक्षण घेतलें. १९५७ त ताका भिकुभाय पांडे हाच्या मार्गदर्शनाखाला काम करपाक दमणांतल्या खुंठा वाठारांत धाडलो. थंय ताणें वारगुंड पूल मोडून उडोवपाक आनी हेर आस्थापनां नश्ट करपाक वांटो घेतिल्लो. हाचेभायर ताणें आत्माराम मयेंकार हाच्या फुडारपणाखाल सोणशी आनी मावळिंगे हांगा घातकी हल्लो करपांत वांटो घेतिल्लो. १९८८ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शंखवाळकार, ब्रम्हानंद :** (जल्म : ६ मार्च १९५४ ताळगांव - तिसवाडी).

पुराय नांव ब्रम्हानंद सगुण कामत शंखवाळकार, गोंयच्या फुटबॉल मळावयलो खांपो खेळगडो. एक बरो गोलकिपर म्हूण ताका आंतरराश्ट्रीय कीर्त मेळ्ळया.

ताचें मुळावें शिकप ताळगांवां जालें. उपरांत फुडलें मॅट्रीक मेरेनचें शिक्षण ताणें प्रोग्रेस हॉयस्कूल, पणजी हांगा घेतलें, तर धेंपे कॉलेज ऑफ आर्टस अॅन्ड सायन्स, मिरामार हांगा ताणें पदवेचें शिक्षण पुराय केलें. बापायचें फुटबॉल खेळाचें दायज ताचेकडल्यान



मेळिल्ल्यान ताका भुरगेपणासावनूच फुटबॉल खेळाची गोडी आशिल्ली. १९७० त पनवेल स्पोर्टस क्लबाचे वतीन पयलेखेपे खेळासर्तींत वांटो घेतलो. फुडें १९७४ त साळगांवकार स्पोर्टस क्लबाखातीरूय तो खेळ्ळो. ह्याच वर्सा संतोष ट्रॉफीखातीर तो गोंय पंगडाक खेळ्ळो. १९७५ त भारताचें प्रतिनिधित्व करपाक एशियन युथ सोसर टुर्नमेंटांत ताणें ह्याच पंगडावतीन बँकोकची भोंवडी केली. फुडाराक ताणें जांभियाकूय नांव मेळयलें. यत्नांची शिकस्त करून संवसारांतली उंचेली सुवात ताणें आपल्या कळाशेन हातासली. जांभियाक ताची कुशळताय पळोवन केनककोंजान ताचो 'लिपार्ड ऑफ इंडिया' म्हणून भौमान केलो. १९७६ - ७७ त अफगाणिस्तानांतल्या काबुल हांगाय ताणें उत्कृष्ट खेळ केलो. त्याच वर्सा मर्डेका चषकाखातीर कुवालांलपूर हांगा तो खेळ्ळो. १९७७ त दक्षिण कोरिया आनी हेर कडेनय ताणें आपलें खेळाकर्तृत्व दाखयलें. १९७३ ते १९७७ मेरेन तो राश्ट्रीय पातळेचेर गोंयचे वतीन खेळिल्ल्यान गोंय सरकारान जिवबादादा केरकार पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान केलो. व्हडा तांकीचो खेळ करून ताणें फुटबॉल खेळाच्या इतिहासांत आपलें नांव अज्रंवर केलां. फुटबॉला वांगडाच क्रिकेट, टेबलटेनिस, बॅडमिंटन, व्हॉलीबॉल हे खेळ आनी पेंवप ताका भोव आवडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**श :** देवनागरी वर्णमाळेंतलो तिसावो वर्ण. ताच्या विकास क्रमांत पांच अवस्था दिसतात. पयली अशोकाच्या खालसी हांगाच्या

शिलालेखांत, दुसरी कुशाण राजांच्या काळांतल्या मथुरा हांगाच्या लेखांत (इ.स.चें पयलें आनी दुसरें शतमान), तिसरी अवस्था राजा यशोधर्मन हाच्या काळांतली (इ.स. ५३२) मंदसोर हांगाच्या लेखांत, चवथी जपानांत मेळिल्ल्या एका (उष्णीषविजयधारिणी) ताडपत्री ग्रंथांत (इ.स.चें ६ वें शतमान) आनी पांचवी अपराजित नांवाच्या मेवाडच्या गुहिलवंशी राजाच्या काळांतली, कुंडेश्वर लेखांत (इ.स. ६६१) मेळटा.

श चो विकासक्रम असो -



'श' ह्या अक्षराचे शंकर, सूख, कल्याण, शस्त्र, सत्तर आदी वेगवेगळे अर्थ जातात. कामधेनुतंत्रांत ताचें रूपवर्णन अशें केलां.

शकारं परमेशानि ! शृणु वर्ण शुचिस्मिते ।
रक्तवर्णप्रभाकरं स्वंय परमकुण्डली ॥
चतुर्वर्गप्रदं देवि ! शकारं ब्रह्मविग्रहम् ।
पञ्चदेवमयं वर्ण पञ्चप्राणात्मकं प्रिये ॥
रजःसत्त्वतमोयुक्तं त्रिबिन्दुसहितं सदा ।
त्रिशक्तिसहितं वर्णमात्मादितत्त्वसंयुतम् ॥

**अर्थ** - हे देवी, शकार हो वर्ण रक्तप्रभ आसून परमकुंडली आसा. तो चतुर्वर्गप्रद, ब्रह्मकाय, पंचदेवमय आनी पंचप्राणात्मक आसा. तो तिनूय गुणांनी भरिल्लो आसून त्रिबिंदू, त्रिशक्ती हांणी आनी आत्मो आदी तत्त्वांनी युक्त आसा.

ताळू हें ताचें उच्चारण स्थान आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**शक लोक :** भारतांतल्या कांय प्रदेशांचेर राज्य करपी परकी लोक. हे लोक सिथियन वंशाचे आसून खूब पुर्विल्ल्या काळांत मध्य आशियांत टोळया टोळयांनी हेडटाले. कालांतरान तांणी खूब वसणुको केल्यो. तातुंतली एक वसणूक सिरदरियाच्या देगणांत आसली. सनपूर्व दुसऱ्या शेंकड्यांत यूएची जमातीच्या लोकांनी ते वसणुकेचेर घुरी घालून शक लोकांक धांवडावन घाले. तेन्ना बरेचशे शक लोक अमुदरिया न्हंय हुंपून काबूलांत गेले. थंय यवन राजान तांकां विरोध केल्ल्यान ते अस्तंतेकडे वळून राज मार्गान इराणांत घुसले.

शक लोक कांय काळ उदेंत इराणांत राविल्ल्यान त्या प्रदेशाक शकस्तान (सीस्तान) हें नांव मेळ्ळें. ते उपरांत शक लोकांनी उदेंतेकडे स्थलांतर करून, बोलन खिंडींतल्यान भारतांत प्रवेश करून सिंधूचे अस्तंत देगेचेर वसणूक केली. पुराणांत ह्या प्रदेशाक शकद्वीप हें नांव दिल्लें आसा.

रामायण, महाभारत, मनुस्मृती आनी पुराणां हातूंत शक लोकांचो यवन आनी पहूलव लोकांवांगडा उल्लेख आयला. हिंदू समाजान तांकां शूद्र वर्णांत आस्पावन घेतल्यात.

जैन साहित्यांत कालकाचार्य सूरीचे कथेंत शकांनी उज्जयिनी नगरीचेर कशें जैत मेळयल्लें तें सांगलां. पयल्या शेंकड्यांत उज्जयिनींत गंधर्व वंशांतलो गर्दभिल्ल नांवाचो राजा राज्य करतालो. कालकाचार्याच्या आदारान शकानी उज्जयिनीचेर घुरी घालून गर्दभिल्ल राजाचो पराभव करून आपलें राज्य स्थापलें. पूण तें चड काळ उरलें ना. गर्दभिल्ल राजाच्या पुतान तांकां हारोवन आपलें राज्य परत मेळयलें.

उपरांत तांणी वायव्य सीमा प्रदेशांत आपली सत्ता स्थापली आनी सिंधू न्हंय हुंपून मथुरेमेरेन आक्रमण केलें. तशेंच उज्जयिनी आनी कच्छ काठियावाडांत राज्य स्थापलें. ते स्वताक क्षत्रप म्हण्टाले. चड करून ते स्वतंत्र राजाच आशिल्ले. ह्या राजांचीं नाणीं आनी कांय अभिलेखय उपलब्ध आसात तांचेवयल्यान तांचेविशीचीं थोडीभोव म्हायती मेळटा.

**वायव्य भारत :** सिंधूतल्यान शकांनी पंजाबाचेर घुरी घालून राज्य स्थापलें. थंय सगळयांत पयलीं माओस हाणें राज्य केलें. ताणें राज्य करचे पयलीं पूर्व इराणांतल्या पहूलव राजाचें वर्चस्व न्हयकारून आपलें स्वतंत्र राज्य स्थापलें. इ.स. १५ मेरेन मथुरेमेरेन आपल्या राज्याचो विस्तार केलो. ताच्या नाण्यांचेर राजाधिराज ही पदवी मेळटा. ताच्याउपरांत माओसच्या जांवयान यवनाक हारोवन पंजाबाचेर जैत मेळयलें. ताचो पूत अझिलिसेस आनी उपरांत ताचो पूत अझेस हांणी इ.स. ७९ मेरेन राज्य केल्याउपरांत त्या प्रदेशाचेर पहूलव लोकांची सत्ता स्थापन जाली.

माओस राजान मथुरेचेर सत्ता स्थापिल्ली. थंय सांपडिल्ल्या पाशाणाच्या शींवाच्या तोंडाचेर कोंरातिल्ल्या लेखांत मथुरेच्या शक - क्षत्रप राजांची म्हायती मेळटा. थंयच्या राजांनी आपापल्या राजवटीच्या काळांत आपापल्या नांवांचीं नाणींय पाडल्यांत. ह्या शक -क्षत्रपाचे राजवटींत मथुरा हें बौध्द, जैन, भागवत ह्या तीनय पंथांचें केंद्र आशिल्ल्यान शक राजा धार्मिक बाबतींत उदार आसले. हे मथूरेचें शकराज कुशाण वंशांतल्या कनिष्कान नश्ट केलें आसुंये.

**अस्तंत भारत :** सनपूर्व पयल्या शेंकड्यांत शक लोकांनी काठेवाड प्रदेशांत प्रवेश केलो तेन्ना पेरिप्लसांत मंबरूस नांवाच्या शक राजाचो उल्लेख आसा. ताची काठियावाड, गुजरात, राजस्थान ह्या भागांचेर शेक चलतालो. इ.स. १ ल्या शेंकड्यांत शकांनी उत्तर कोंकणाचेर सत्ता स्थापली आसुंये. ह्या शेंकड्याच्या निमाणेकडेन कुशाण सम्राट कनिश्क हाणें मंबरुसाच्या घराण्याचो नाश करून ताचें राज्य जिकलें आसुंये. तेउपरांत ह्या प्रदेशाचेर क्षहरात घराण्यान कुशाणांचे क्षत्रप म्हण राज्य केलें. ह्या घराण्यांतलो पयलो राजा

भूमक आनी ताचो पूत नहपान हाची खुबशा प्रदेशांचेर सत्ता आशिल्ली. इ.स. १२५ च्या सुमाराक सातकर्णी हाणें नहपानाक हारोवन क्षहरात घराण्याचो शेवट करून सुराष्ट्र (काठेवाड), कुकर (गुजरात), अनूप (महेश्वर) उपरांत, आकर आनी अवंती ह्या प्रदेशांचेर आपली सत्ता स्थापली.

ह्या घराण्याचो शेवट जाल्याउपरांत त्या जाग्यार कुशाणांचें क्षत्रप म्हण कार्दमक घराणें राज्य करूंक लागलें. चश्टन हो त्या घराण्यांतलो पयलो राजा. तो सिंधांत कुशाणांचो क्षत्रप म्हूण राज्य करतालो आसुंये. नहपानाच्या मरणाउपरांत गुजरात, काठियावाड, माळवा ह्या प्रदेशांचो क्षत्रप म्हूण ताका नेमपांत आयलो. उज्जयिनी ही ताची राजधानी आशिल्ली. इ.स. १३० च्या सुमाराक तो महाक्षत्रप म्हण आनी ताचो नातू रूद्रदामन हे क्षत्रप म्हण राज्य करूक लागले. रूद्रदामन हो कार्यमक घराण्यांतलो व्हड राजा आशिल्लो. ताणें उत्तरेकडल्या यौधेयांचो आनी दक्षिणापथांतल्या गौतमीचो पूत सातकर्णीचो पराभव करून सिंधू, सौवीर, कच्छ, आनर्त, सुराष्ट्र मरू उपरांत आकर आनी अवंती ह्या प्रदेशांचेर राज्य केलें. तो संस्कृत कवी, पंडित आनी संगिताची ताका गोडी आसली. खुबशा स्वयंवर सुवाळयांत हाजिर रावून ताणें कितल्याशाच राजकन्यांक जिखिल्ल्यो रूद्रदामनाक (पयलो) इ.स. १७० च्या सुमाराक मरण आयलें. तेन्ना पूताफाटल्यान रूद्रदामनाची वंशावळ त्या राज्यार राज्य करूंक लागली. इ.स. ३८० च्या सुमाराक रूद्रदामनाचे वंशावळीचो नाश जालो. रूद्रसिंह तिसरो हाचो इ.स. ३८८ उपरांत कांय वर्सांनी चंद्रगुप्त दुसरो हाणें पराभव करून गुजरात आनी काठीयावाड हे प्रदेश गुप्त साम्राज्याक जोडले. अशे तरेन शकांचें अस्तंतेकडलें राज्य कायमचें नश्ट जालें.

- कों. वि. सं. मं.

**शकुन - अपशकुन :** *भविश्य सूचक शुभचिन्न आनी अशुभचिन्न.* ह्या शुभाशुभ कल्पनांचें प्रत्यंतर भविश्य काळांत येता आनी ताचेर कार्यसिद्धी वा कार्यअपेस आदारून आसता, असो लोकांचो विश्वास आसा. चडकरून झूज, प्रवास, मंगलकार्य, एकाद्री म्हत्वाची घडणूक ह्या प्रसंगार हाचो विचार करतात.

शुभाशुभ कल्पना खूब पुर्विल्ली आसा. शकुन ह्या शब्दाचो अर्थ 'पक्षी' असो आसा. ऋग्वेदांत भारद्वाज पक्षाचीं दोन शकुनसुक्तां आसात. तांतूत हे शुभंकर आनी शुभवाच्या पक्षिराजा आमच्या घराचे उजवे वटेन येवन तूं आवाज काड'. प्रवासाक वतना अशुभ शेवण्यांचो आवाज कानार पडल्यार तो अपशकून पयस करपावातीर दोनय सुक्तांचो जप करचो अशें आश्वलायन गृह्यसुक्तांत म्हळां. हाचेभायर ऋग्वेदांत हेर कांय अपशकुनपरिहारक मंत्र दिल्यात. अथर्ववेदांत शुभशकुन ह्या शब्दाचो प्रयोग केल्लो आसा. ह्या सुक्तांत चंद्रासंबंदी शकुनाचो निर्देश आसून शिंको, चाडी, रितीघागर ह्या अपशकुनांचो उल्लेख आयिल्लो आसा. कौशिकसुत्रांत उबे बडयेच्या आदारान वा दर्भ, समिदा वा फांशे ह्या साधनांच्या आदारान शकून पळोवंचो अशें म्हळां.

उत्तर काळांतल्या वाङ्मयांत ह्या प्रकारांच्या संकेतांत खूब वाड जाली आनी त्या सगळयांक शकून हेंच सामान्य नांव फाव जालें. रावणाच्या त्रासांतल्यान सुटपाखातीर जीवाचो त्याग करपाक तयार जाल्ले सितेक कांय शकून जाले. ताकालागून तिका आपलें भविश्य बरें आसा, अशें दिशिल्ल्यान तिणें आत्मघाताचो विचार सोडून दिलो आनी मुखार तिचें दुख्ख पयस जालें अशें रामायणांत म्हळां. महाभारतांत हो प्रकार चड प्रमाणांत मेळटा. पुर्विल्ल्या काळासावन मनाचेर जाल्ल्या बऱ्या-वायट संस्कारांतल्यान हे शुभाशुभांचे संकेत निर्माण जाले आसुंये.

एकाद्रे वस्तुचें परत परत दर्शन घडलें आनी तातुंतल्यान निर्माण जावपी कार्यांत सारकेंपण आसा अशें दिसून आयल्यार ती परिस्थिती हेर कल्पनांचे निर्मितीचे कारण धरतात. खंयच्याय एका प्रसंगाच्या संदर्भांत कसलीय घडणूक घडपाक खंयचोय योगायोग दिसलो तर मागीर तो योगा योगच शुभाशुभ शकुनांचें कारण जावन बसता. विज्ञानीक नदरेच्या अभावीं कल्पनेच्या माध्यमांतल्यान मनशाकडल्यान प्राप्त परिस्थितींत कांय संकेत घडले आनी मागीर ह्या संकेतांचें शुभाशुभ शकुनांनी रुपांतर जालें. एकाद्री वस्त वा प्रसंग पळयल्ल्या क्षणाक मन प्रसन्न जालें वा एकाद्र्या दृश्यान ते संबंदीं तिरस्कार उत्पन्न जालो, तर तातुंतल्यान शुभाशूभ कल्पना निर्माण जावप शक्य आसा. भविश्य जाणून घेवप ही मनशाची सभावीक प्रवृत्ती आसा. तातुंतल्यान शुभाशूभ घडणुको सांगपाखातीर फलज्योतिशाचें शकुनशास्त्र जल्माक येवप सभावीक आसा.

शकुन - अपशकुन ह्यो कल्पना सगळयाकच सारक्यो आसतात अशें ना. ताचें मुखेल कारण म्हळयार थळाव्या अणभवांचें वेगळेपण आनी सांप्रदायिक आचार विचारांतले तत्त्वज्ञानांतले भेद. देखीक - कांयकडेन आनी कांय समाजांत काळो रंग अशुभ मानप जाता आनी धवो रंग शुभ मानप जाता. तर कांय कडेन आनी कांय समाजांत हाच्या सामके उरफाटें मानप जाता. सर्वसादारणपणान शुभ आनी अशुभ मानिल्ले शकुन अशे -

मोर, चातक, मुंगूस दावे वटेन वचप, मडवळ धुवपाची पोटली घेवन वचप, ब्राह्मण पळी पंचपात्र घेवन मुखार येवप, लग्नाची मिरवणूक, उदकान भरिल्ली दोड घेतिल्ली बायल वा कुमारीका, भुरग्याक धरिल्ली आवय, जोडपें, गाय मुखार येवप, हरण, माजर, सोरोप उजवेवटेन वचप, गाढव उजवे वटेन रडप, कोगळाचो आवाज आयकप, घंटानाद, घोड्याचे खिंकाळप, सुण्यान कान फडफडावप, शिजयल्लें अन्न, फळांचो पांटलो घेतिल्लो मनीस, दिवो हे सगळे शुभ शकुन आसात.

अशुभ शकुन अशे आसात - बोडको ब्राह्मण, विधवा, भश्टी

बायल, काळयो वस्तू मुखार येवप, गाढव दावे वटेन आडुप, सवणें आनी सुण्याचे रडिल्ले स्वर आयकप, शेणी, जळकीं लांकडां दिसप हे अशुभ शकुन आसात.

हे अशुभ शकुन निवारपाखातीर धर्मीक आनी तांत्रिक विधी करपाची पद्दत पुर्विल्ल्या काळासावन रूढ जाल्ली आसा. तेखातीर दान दितात आनी शांतीय करतात.

विज्ञानीक विचारांच्या प्रसारांतल्यान घडणुकांची (शुभाशुभ शकुनांची) शास्त्रीय कारण मिमांसा करप शक्य जाल्ल्यान शुभाशुभ शकुनावयलो लोकांचो विस्वास आदले तुलनेन आतां उणो जाला. शुभाशुभ शकुन पाळप वा तांची प्राप्ती - निवारण करपाखातीर लागपी विधी करपासारकी मनस्थिती आनी परिस्थिती आयज लोकांकडेन उरूंक ना. तरीय शुभाशुभ शकुन पुरायपणान समाजांतल्यान ना जाला अशें म्हणूंक मेळना. आजय सगळेकडेन आनी समाजाच्या सगळ्या थरांचेर तांचें अस्तीत्व चड उण्या प्रमाणांत दिसता.

- कों. वि. सं. मं.

**शकुनि :** शकुनि नांवाचे कितलेशेच राजा आनी राजकुमार भारताच्या पुर्विल्ल्या काळांत जावन गेल्यात. १) इक्ष्वाकु वंशांतल्या विकुक्षिच्या १५ पुतांमदल्या एकट्याचें नांव शकुनि आशिल्लें. २) मार्कंडेयपुराणावयल्यान दुःसह नांवाच्या राजाक शकुनि नांवाचो एक पूत आशिल्लो. ३) विदेह राज्याचो संस्थापक निमिचोय शकुनी नांवाचो वंशज आसलो. ४) हो शकुनी चंद्रवंशी राजा दशरथाचो पूत आनी यदुपूत कोष्टुचो वंशज आशिल्लो. ५) पांचवो शकुनी महाभारत काळांतलो कौरवांचो मामा. तो गांधार देशाचो राजा आनी गांधारीचो भाव आशिल्लो. दुर्योधनाक राज्य मेळचें म्हण ताणें पांडवांचो छळ केलो. महाभारतांत झूज घडोवन येवपाक शकुनी निती कारण जाली. पांडवांनी कृष्णाचेर विश्वास दवरिल्लो तसो कौरवांनी शकुनिचेर दवरिल्लो. ताची बुद्द तीक्ष्ण आसली. निमाणेकडेन तो सहदेवाच्या हातान पुतासयत मेलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शक्तिदेवता :** शाक्त संप्रदायाचें सगळयांत श्रेश्ठ अशें उपास्य दैवत. शक् म्हळयार समर्थ जावप ह्या धातूक क्तिन् प्रत्यय लागून शक्ती हें नांव जालां. सामर्थ्य, पराक्रम, प्राण हे शक्ती शब्दाचे तीन मुखेल अर्थ आसात. दर एका घटकांत कार्याच्या उत्पादनाक उपेगी आनी त्या घटकापासून केन्नाच वेगळावंक मेळना असो जो खाशेलो धर्म आसता ताका शक्ती अशें म्हण्टात. दर एका घटकाची खाशेली अशी एक शक्त आसता. ताका लागून शक्तीय खूब आसात. तातुंतल्यो तीन शक्ती मुखेल आसात त्यो अशो - १) अंतरंग : हे शक्तीक नारायणाची स्वरुपशक्ती अशें म्हळां. २)तटस्थ : स्वरुपात्मक न्हय आनी विजातीय न्हय, अशे शक्तीक तटस्थ म्हळां आनी ३) बहिरंग : महतत्त्वापसून पृथ्वी मेरेन आनी समस्त भौतिक वस्तूंसकट अशी जी संवसाररूप प्रकृती तिका बहिरंग शक्ती म्हण्टात.

हेर देवतांभशेन शक्तीच्याय रुपाची कल्पना केल्या. सामर्थ्याचें प्रतीक असो शींव हें तिचें वाहन आसा. ती चतुर्भुज, अश्टभुज, दशभुज, अष्टादशभुज वा अनंतभुज आसा. तिच्या हातांनी त्रिशूळ, खड्ग, खेटक, परशू अशीं शस्त्रां आसात. तिच्या कपलाचेर तिसरो दोळो आसा. तिका चंडी, चामुंडा, भैरवी, कात्यायनी, कौशिकी, त्रिपुरा, ललिता, श्रीविद्या, कामारण्या, मीनाक्षी, भगवती अशीं नांवां आसात. दर एका नांवारुपाचें एक खाशेलपण आसून ताचेफाटल्यान किदेंयतरी कथा आसा.

शक्तीचीं कार्यां : नारायणाचे शक्तीक महालक्ष्मी अशें नांव आसा. लक्ष्मीतंत्रांत ती स्वता आपलीं कार्यां सांगता तीं अशीं -

तिरोभावस्तथा सृष्टि : स्थिति : संहृतिरेव च ।
अनुग्रह इति प्रोक्तं मदीयं कर्मपञ्चकम् ।

**अर्थ** - १) तिरोभाव म्हळयार कर्मरूप अविद्येन जीवात्म्याक रेवाडटा २) सृश्टी ३) तिचो सांबाळ ४) सृश्टीचो संहार आनी ५) अनुग्रह म्हळयार जीवात्म्याक मोक्ष मेळोवन दिवप हीं म्हजीं पांच कर्मां आसात.

शक्तीचीं तीन मुखेल रुपां : मूळ जी आद्या शक्ती वा महामाया तिका दुर्गा म्हण्टात. हे दुर्गेनच फुडें देवकार्याखातीर आनी मनशाचे उदरगतीखातीर प्रसंगाप्रमाण तीन रुपां घेतलीं. महाकाली, महालक्ष्मी आनी महासरस्वती हीं तीन रुपां त्रिगुणात्मक आसात. महाकाली ही तमोगुणी आसून ती त्याच गुणांच्या रुद्रशिवाकडे संबध्द आसा. महालक्ष्मी ही सत्त्वगुणी आसून ती जगदंबा आसा आनी सत्त्वगुणी विष्णुकडे संबध्द आसा. तिका नारायणी अशेंय म्हण्टात. महासरस्वती ही रजोगुणी आसून, त्याच गुणाच्या ब्रह्मयाकडे संबध्द आसा. ही विद्यादायी देवता आसा. ह्या तिनूय रुपांच्यो उत्पत्तिकथा मार्कंडेय पुराणांतल्या सप्तशतींत दिल्यात. तांचो आपरोस असो आसा -

**१) महाकाली :** प्रलय काळांत विष्णु योगनिद्रेंत शेषशय्येचेर न्हिदिल्लो आसतना, ताच्या कानांतल्यान मधु आनी कैटभ नांवाचे दोन दैत्य भायर सरले. पयलींच तांकां ब्रह्मा दिसलो. तेबरोबर ते ताका मारपाक धांवले. ब्रह्मयान भगवंताचे योगनिद्रेची तोखणाय करून तिका सांगलें, तूं ह्या असुरांक भुलय आनी विष्णुक जागो कर. तें आयकताच विष्णुच्या आंगांतल्यान महाकाली उत्पन्न जाली आनी विष्णु जागो जालो. उपरांत विष्णु आनी त्या दैत्यांचें झूज पेटलें. महाकालीन त्या दैत्यांक वेवस्थित भुलयले आनी तांकां बुध्दिभ्रम जालो. तांणी विष्णुक सांगलें, तूं बरो झूज खेळटा आमी तुजेर प्रसन्न जाल्यात, तुका जाय तो वर माग. ताचेर विष्णुन आपल्या हातांनीच तांकां मरण येवचें असो वर मागलो. दैत्यांनी विष्णुक जाय तसो वर दिलो पूण एक अट घातली, जे सुवातीर उदक आसचेंना अशाच

जाग्यार विष्णुन तांकां मारचें कारण त्या वेळार प्रलय जाल्ल्यान सगळी पृथ्वी उदकान भरिल्ली. विष्णुन तांची अट मान्य केली आनी आपले मांडयेर तांच्यो तकल्यो घेवन त्यो कापून उडयल्यो. अशे तरेन महाकालीन मधु - कैटभांचे बुध्दीक असो भ्रम केलो.

२) **महालक्ष्मी :** महिषासुर नांवाचो दैत्य महाबली जालो आनी ताणें देवांकडे झूज सुरू केलें. इंद्राक हारोवन तो स्वता देवांचो राजा जालो. उपरांत सगळे देव ब्रह्मदेवाक घेवन विष्णु आनी शंकरा म्हऱ्यांत गेले आनी तांकां ही खबर सांगली. तेबरोबर विष्णु, शंकरासयत सगळया देवांच्या आंगांतल्यान एक तेजीश्ट असो झोत भायर आयलो आनी तातुंतल्यान महालक्ष्मी ही देवी उत्पन्न जाली. देवांनी आपापलीं शस्त्रां तिका दिवन माहिषासुराचो वध करपाक सांगलें. तिणें एक व्हड गर्जना करीनाफुडें महिषासूर आयलो. ताणें महालक्ष्मीकडे व्हड झूज केलें. पूण महालक्ष्मीन ताचो वध करून देवांक अभय दिलें.

३) **महासरस्वती :** शुंभ - निशुंभ हे दैत्य देवांक हारोवन स्वता यज्ञ भोक्ते जाले. तेन्ना देवांनी हिमालयाचेर वचून पार्वतीची तोखणाय केली. त्यावेळार पार्वतीच्या आंगांतल्यान जी देवी प्रगट जाली तीच महासरस्वती. तिणें शुंभ - निशुंभाकडे झूज करून तांकां मारले.

अशीं हीं दुर्गेचीं तीन रुपां आसात. दर एका रुपांत आनीक दोन दोन रुपां प्रविश्ट जावन तिनय रुपांचें त्रिवृत्करण जालें. उपरांत त्या णव रुपांक नवदुर्गा हें नांव मेळळें. तेरवातीर शक्तितंत्रांत णव ह्या आंकड्याक चड म्हत्व आसा.

भारतीय दर्शनांत तंत्रशास्त्र हें आगळेंवेगळें दर्शन आसा. तातुंतले शक्तीचें स्वरूप दिव्य आनी उदात्त आसा. तंत्रीकांनी तिका सृश्टीचें आदिकारण मानल्या. एका तंत्रांत शक्तीचें वर्णन केलां तें अशें-

यस्यादृष्टो नैव भूमण्डलांशो यस्यादास्यो विद्यते न क्षितीशः।
यस्याज्ञातं नैव शास्त्रं किमन्यैर्यस्याकारः सा पराशक्तिरेव॥

**अर्थ** - पराशक्तीक विश्वांतलो खंयचोच भाग अदृश्ट ना. तिचो दास ना असो खंयचोच राजा ना. पराशक्ती जाणना अशें कसलेंच शास्त्र ना आनी जाका आकार आसा अशें सगळें म्हळयारच पराशक्ती आसा.

पुराणकाळांत देवीविशीं खुबशीं पुराणां निर्माण जालीं. तांणी शक्तीचें निग्रहानुग्रहसामर्थ्य विंगड विंगड कथांच्या रुपान लोकमनाचेर ठसयलें आनी देवांक लेगीत शक्तीमुखार नमयले.

**बौध्दांची शक्तिपुजा :** बौध्द धर्मांत शक्तिपुजेचो आरंभ महायान पंथाच्या विकासावांगडाच जालो. तारा, हारीती, वसुंधरा, प्रज्ञापारमिता, वागीश्वरी, मारीची ह्यो देवता महायानी पंथांत प्रविश्ट जाल्यो. तांच्यो मूर्तीय तांणी निर्मिल्यो. पांच ध्यानी बुध्दांच्यो पांच स्वतंत्र शक्ती तांणी मानल्यो. अक्षोभ्याची लोचना, वैरोचनाची तारा, अमिताभाची पांडरा, अमोघवज्राची आर्यतारा आनी रत्नसंभवाची मामकी अशीं तांचीं नांवां आसात. बौध्द तंत्रांत हे दर एके शक्तीचे उपासनेखातीर खाशेले मंत्र, मुद्रा, मंडल आसात. बौध्दांचीं जायतीं शक्तितंत्रां आसात. त्या तंत्रांनी तांणी शक्तीक शून्य हे संज्ञेन संबोधल्या. ह्या शून्याक ते नैरात्मा म्हण्टात. ह्या शून्यांतल्यानच सगळें उत्पन्न जाता आनी तातुंतच सगळ्याचो विलय जाता. हें परमशून्य आसा. नैरात्मेचो संबंद बोधिसत्त्वाकडे आसता. शिव आनी शक्ती हीं जशीं परस्परसंश्लिश्ट आसतात तेचप्रमाण नैरात्मा आनी बोधिसत्त्व हींय आलिंगनावस्थेंत आसतात.

तिबेटी बौध्दांत तारा हे देवतेक सगळयांत उंचेलें स्थान आसा. उग्रतारा, वज्रतारा, महाचीनतारा अशीं तिचीं रुपां ताणें कल्पिल्यांत. तारेच्यो मूर्ती घडयल्यात आनी चित्रांय निर्माण केल्यांत.

**जैनांची शक्तिपुजा :** जैनांच्या श्वेतांबर मतांत दर एका तीर्थंकराची एक एक शासनदेवी मानल्या. जैनांत चक्रेश्वरी हे देवीक खूब म्हत्व आसा. रोहिणी, प्रज्ञप्ती, शृंखला अशा सरस्वतीच्या सोळा प्रकारच्या विद्याव्यूहाक जैनांभितर मान्यताय आसा. शाक्त संप्रदायाच्या सारस्वत कल्पाकय जैन लोक मानतात. जैनांनी आपल्यो शासनदेवता, विद्यादेवी आनी चक्रेश्वरी हांच्यो मूर्तीय घडयल्यात. तशेंच दर एका तीर्थंकराची परिचारिका म्हूण एक यक्षिणी आसता. शाक्त संप्रदायांत शक्तीचीं जीं विंगड विंगड रुपां आकाराक आयल्यांत तींच रुपां यक्षिणी ह्या रुपांत वेगळया नांवांनी जैनांनी आपणायल्यांत. तांत्रिकांच्या षट्चक्रवेधपद्दतीक अणसरून जैनांनी आपलें धर्मज्ञान निर्माण केलां. त्या ध्यानाभितर षडस्थ नांवाच्या ध्यानांत ताणें वर्णमयी देवीचें चिंतन सांगलां. जैन मंत्रांनी प्रणव, माया हीं बीजाक्षरां शाक्त तंत्राच्या अनुरुपच आसतात.

**शक्तिपुजा आनी उपासना :** शक्तिपुजा ही स्मार्त आनी तंत्रीक अशा दोन पद्दतींनी करतात. स्मार्तपुजा ही सात्त्विक आसता. सात्त्विक उपासना निश्काम आसची असो संकेत आसा. ही उपासना पांच प्रकारांनी सिध्द जाता, ते प्रकार अशे आसात -

१) अभिगमन : देवप्रतिमेची आनी देवघराची नितळसाण राखप.
२) उपादान : पुजेचें साहित्य एकठावप.
३) योग : इश्ट देवतेकडे आत्मभावना.
४) स्वाध्याय : मंत्राचो अर्थ जाणून ताचो जप करप, स्तोत्रपाठ, नाम गुणसंकीर्तन, हेर.
५) इज्या : वेदशास्त्रविहित चतुःषष्ट्यादी उपचारांनी पुजा करप.

मंत्र, यंत्र, चक्र, न्यास, मुद्रा, दीक्षा, भूतशुध्दी, प्राणप्रतिश्ठा हीं तंत्रीक उपासनेचीं आंगां आसात. चर्या, क्रिया, योग हे प्रकारूय आसात. तंत्रसाधक चडकरून श्रीयंत्राचेर देवीची उपासना करतात. साधक स्वभावाप्रमाण पशू, वीर वा दिव्य आसता. वीर साधकाक

गुरूच्या सान्निध्यांत रहस्यसाधना करची पडटा. हे साधनेचीं दोन रुपां आसतात - एक चक्रसाधना आनी दुसरी लतासाधना. पुराणकारांनी अशे तरेन शक्तिमाहात्म्य प्रस्थापित करतकच शैव आनी वैश्णव संप्रदायांकूय आपापल्या मतांनी शक्तितत्त्व आपणावंक लायलें. शैव संप्रदायांत उपरांत उमा ही शंकराची बायल उरनासतना ताची शक्ती थारली.

अद्‌भुतरामायणांत सीता ही रामाची शक्ती जाली. तेचभशेन देवी भागवतांत राधा ही कृष्णाची शक्ती मानल्या.

विद्याराज्ञी मंत्राची साधना करतना चवसश्ट शक्तींची आवरणपुजा करपाची आसता. कुलेशी, कुलनंदा, वागीशी, भैरवी, उमा, श्री, शांती, चंडा, धूम्रा, काली, करालिनी, महालक्ष्मी, कंकाली, रुद्रकाली, सरस्वती, वाग्वादिनी, नकुली, भद्रकाली, शशिप्रभा, प्रत्यंगिरा, सिध्दलक्ष्मी, अमृतेशी, चंडिका, खेचरी, भूचरी, सिध्दा, कामाक्षी, हिंगुला, बला, जया, विजया, अजिता, नित्या, पराजिता, विलासिता, घोरा, चित्रा, मुग्धा, धनेश्वरी, सोमेश्वरी, महाचंडा, विद्या, हंसा, विनायिका, वेदगर्भा, भीमा, उग्रा, वैद्या, सद्‌गती, उग्रेश्वरी, चंद्रगर्भा, ज्योत्स्ना, सत्या, यशोवती, कुलिका, कामिनी, काम्या, ज्ञानवती, डाकिनी, राकिनी, लाकिनी, काकिनी, शाकिनी आनी हाकिनी अशीं तांचीं नांवां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**शक्तिपिठां :** शिवाची बायल सती हिच्या संबंदीत अशो पवित्र सुवाती. शक्तिपिठांसंबंदीं ब्रह्म, मत्स्य, पद्म, कूर्म ह्या पुराणांनी एक कथा आसा ती अशी - सत्ययुगांत दक्ष प्रजापतीन बृहस्पतिसव नांवाचो एक यज्ञ सुरू केलो. केन्ना तरी एकदां शिवान ताचो अपमान केल्लो. देखून आपली धूव सती आनी जांवय शिव हांकां सोडून हेर सगळया देवांक आपोवणें दिलें. आपल्या बापायन यज्ञ केला ही खबर आयकन्नाफुडें, तो पळोवपाक वचपाची इत्सा सतीच्या मनांत उत्पन्न जाली आनी तिणें आपली इत्सा शंकराच्या कानार घाली. शंकराक तिचो हो विचार मानवलोना. पूण तिणें खुबच हट्ट धरिल्ल्यान शिवान तिका वचपाची परवानगी दिली. सती आपल्या बापायगेर आयली पूण कोणेंच तिका हडकिली ना. उरफाटें दक्षान, तिका पळोवन तिच्या घोवाविशीं वायट उतरां दिवपाक सुरवात केली. आपल्या बापायच्या तोंडांतलीं आपल्याच घोवाविशींचीं कुच्छीत्रीपणाचीं उतरां सतीक सोसूंक जालींना. तिणें यज्ञकुंडांत उडी घेतली. ही खबर शिवाक कळनाफुडें आपल्या गणांसयत शिव थंय आयलो. ताणें दक्षाक जिवो मारलो आनी ताच्या यज्ञाचो विध्वंस केलो. उपरांत ताणें सतीचें शरीर आपल्या खांद्यांचेर घेवन तो बेभान जावन हांगा थंय भोंवक लागलो. तेन्ना भगवान विष्णुन आपल्या सुदर्शनचक्रान सतीचो एकेक अवयव कापलो. तिचीं हीं आंगां - प्रत्यांगां एकावन्न सुवातींनी गळून पडलीं आनी त्यो सुवाती उपरांत शक्तिपिठां जाल्यो. ते दर एके सुवातीर एकेक भैरव आनी एकेक शक्ती विंगड विंगड रुपां धारण करून रावतात असो भावार्थ आसा. त्या सुवातींक महापिठां अशेंय म्हण्टात.

खंयच्या खंयच्या सुवातींनी सतीचो खंयचो अवयव गळून पडलो आनी थंय खंयचो भैरव आनी शक्ती रावली, तेविशींची म्हायती शिवचरितांत दिल्या ती अशी आसा. सुवात, आंग वा प्रत्यांग, शक्ती आनी भैरव अशा क्रमान हीं नांवां दिल्यांत तीं अशीं - १) हिंगुला, ब्रह्मरंध्र, कोट्टरी, भीमलोचन २) शर्कर, त्रिनेत्र, महिषामर्दिनी, क्रोधीश ३) तारा, नेत्रांशतारा, तारिणी, उन्मत्त ४) करतोयातट, वाम कर्ण, अपर्णा, वामेश ५) श्रीपर्वत, दक्षिण कर्ण, सुंदरी, सुंदरानंद ६) सुगंधा, नासिका, सुनंदा, त्र्यंबक ७) वक्रनाथ, मन, पापहरा ८) गोदावरी, वामदंड, विश्वमातृका, विश्वेश ९) गंडकी, दक्षिण गंड, गंडकी, चक्रपाणी १०) अनल, ऊर्ध्व दंत, नारायणी, संक्रूर ११) पंचसागर, अधोदंत, वाराही, महारुद्र १२) ज्वालामुखी, जिव्हा, अंबिका, वटकेश्वर उन्मत्त १३) काश्मीर, कंठ, महामाया, त्रिसंध्य १४) श्रीहट्ट, ग्रीवा, महालक्ष्मी, सर्वानंद १५) भैरव पर्वत, ओष्ठ, अवंती, नम्रकर्ण १६) प्रभास, अधर, चंद्रभागा, वक्रतुंड १७) प्रभासखंड, मर्म, सिध्देश्वरी, सिध्देश्वर १८) जनस्थान, चिबुक, भ्रामरी, विकृताक्ष १९) प्रयाग, द्विहस्त - अंगुली, कमला, वेणीमाधव २०) मानस सरोवर, दक्षिण हस्तार्ध, दाक्षायणी, हर २१) चट्टग्राम, दक्षिण हस्तार्ध, भवानी, चंद्रशेखर २२) मिथिला, वाम स्कंध, महादेवी, महोदर २३) रत्नावली, दक्षिण स्कंध, शिवा, शिव २४) मणिबंध, वाम मणिबंध, गायत्री, शंकर २५) मणिवेद, दक्षिण मणिबंध, सावित्री, स्थाणू २६) उजानी, वाम कफोनी, मंगलचंडी, कपिलांबर २७) रणखंड, दक्षिण कफोनी, बहुलाक्षी, महाकाल २८) बहुला, वाम बाहू, बाहू, भीरुक २९) वक्रेश्वर, दक्षिण बाहू, बक्रेश्वरी, वक्रेश्वर ३०) जालंधर, वाम स्तन, त्रिपुरमालिनी, भीषण ३१) रामगिरी, दक्षिण स्तन, शिवानी, चंड ३२) वैवस्वत, पृष्ठ, त्रिपुटा, शमनकर्मन् निमिष ३३) वैद्यनाथ, हृदय, नवदुर्गा - जयदुर्गा, वैद्यनाथ ३४) उत्कल, नाभी, विजया, जय ३५) हरिद्वार, जठर, भैरवी, वक्र ३६) कोकामुख, कुक्षी, कोकेश्वरी, कोकेश्वर ३७) कांची, कंकाल, बेदगर्भा, रुरू ३८) कालमाधव, वाम नितंब, काली, असितांग, ३९) नर्मदा, दक्षिण नितंब, शोनाक्षी, भद्रसेन ४०) कामरूप, महामुद्रा (योनी), कामाख्या, रावानंद ४१) मालल, वाम जानू, शुभचंडी, ताम्र ४२) त्रिस्त्रोता, दक्षिण जानू, चंडिका, सदानंद ४३) जयंती, वाम जंघा, जयंती, क्रमदीश्वर ४४) नेपाळ, दक्षिण जंघा, महामाया - नवदुर्गा, कपाली ४५) त्रिहुत, वाम पाद, अमरी, अमर ४६) त्रिपुरा, दक्षिण पाद, त्रिपुरा, नल ४७) क्षीरग्राम, दक्षिण - पादांगुष्ठ, योगाद्या, क्षीरखंड ४८) कालीघाट, दक्षिण-पादांगुली, कालिका, नकुलेश ४९) विभास, वाम गुल्फ, भीमरुपा, कपाली ५०) कुरुक्षेत्र, दक्षिण गुल्फ, संवरी - विमला, संवर्त ५१) विंध्यशेखर, वामपादांगुली, विंध्यवासिनी,

पुण्यभाजन.

चडशा पुराणांनी शक्तिपिठांची संख्या एकावन्न मानल्या. पूण कांय तंत्रग्रंथांनी आनी पुराणांनी ही संख्या चार, सात, धा, अठरा, बेचाळीस अशी वेगवेगळी सांगल्या. तशेंच थंयच्या देवतांचीं नांवांय एकसारकीं नात. देवीभागवतांत एकशें आठ पिठांचो उल्लेख आसा आनी थंय फकत पीठस्थानां आनी तांच्यो अधिदेवता हांचोच उल्लेख आसा. हीं सगळीं शक्तिपिठां पूज्य मानल्यांत. भाविक लोक तांची यात्रा करतात आनी थंयच्या देवांचें दर्शन घेतात.

- कों. वि. सं. मं.

**शणै, कृष्ण :** पुर्तुगेज काळांतली एक नामनेची व्यक्ती. पुर्तुगेजांनी गोंय शार घेतलें त्यावेळार त्या शारांत रावपी एक गिरेस्त मनीस. गोंयांत ताचो घोड्यांचो वेपार आसलो.

हिंदू धर्माचो ताका अभिमान आसलो. गोंय पुर्तुगेजांनी घेतलें उपरांत दुसऱ्या दिसा आल्बुकेर्काक मेळून नवे राजवटींत हिंदू धर्माक राखण मेळची अशी मागणी केली.

आल्बुकेर्कान ती मान्य केली. त्या दिसासावन कृष्ण शणै पुर्तुगेजांचो हितचिंतक, सहाय्यक आनी इश्ट जालो.

हे इश्टागतीकलागून तो पुर्तुगेजांच्या हिंदी सैन्यांत गेलो. थंय ताका कॅप्टनाचो हुद्दो दिलो.

१५४२ वर्सा कांय राजकीय वाटाघाटींखातीर गव्हर्नरान ताका विजापूराक धाडलो. थंय आदिलशहान ताका कादयेंत घालो. स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगून २२ ऑगस्ट १५४८ वर्सा ताची सुटका जाली.

आल्बुकेर्काचे विनंती वयल्यान १५२० वर्सा तो पुर्तुगालाक गेलो. थंय पुर्तुगालच्या राजदरबारांत ताका वस्त्रां आनी अधिकारपदां दिवन आनी इ.स. १५३६ तल्या विजापूरकारावांगडा जाल्ल्या झुजांत केल्ल्या पराक्रमाखातीर ताका काव्हालेयर म्हळयार सरदार ही पदवी दिवन ताचो भौमान केलो.

कृष्ण शणैचो पूत दादाजी शणै होय पुर्तुगेजांच्या शासनांत दुभाशाचें काम करतालो.

- कों. वि. सं. मं.

**शणै गोंयबाब (वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकार) :** (जल्म : २३ जून १८७७ दिवचल; मरण : ९ एप्रिल १९४६ मुंबय).

आधुनिक कोंकणी साहित्याचो जनक आनी कोंकणी भास, कोंकणी समाज, कोंकणी अस्मिताय अशा कोंकणीच्या सर्वांगाचो साक्षेपी संशोधक. कोंकणी भाशेक तिचें सभावीक अशें हक्काचें स्थान प्राप्त करपाक निर्माण जाल्ले आधुनिक चळवळीचो आद्य प्रवर्तक.

ताच्या भुरगेपणाच्या काळांत ताच्या जल्मगांवांत, दिवचले शिक्षणाची बरी सोय नाशिल्ल्यान बार्देसांत ताणें 'सेगुंदग्राव' मेरेन



पुर्तुगेज शिक्षण घेतलें. उपरांत घरच्या घरा इंग्लीश आनी संस्कृत भाशेचो अभ्यास केलो. श्री चिंतामण राव वालावलीकार हाणें ताका फुडल्या शिक्षणाखातीर मुंबय व्हेलो. थंय गिर गांवांतल्या मराठा हायस्कुलांतल्यान ताणें १८९८ वर्सा मॅट्रीक परिक्षा दिली.

मुंबयसावन गोंयांत परत येतकच ताणें आसगांव (गोंय), कराची, मुंबय अशा सुवातींनी नोकरी केली. मुंबयच्या मेसर्स ब्रुनींग कंपनींत आसतनां ताच्या मानी सभावाक लागून कंपनीच्या चालकांकडेन ताचे मतभेद निर्माण जाले. ताकालागून ताणें व्हड पगारी अशे आपले नोकरेचो राजीनामो दिलो.

नोकरी सोडले उपरांत ताणें आपली पुराय शक्त आनी वेळ कोंकणीच्या पुनरुत्थानाच्या वावराक लायलो. ताचो हो इतिहासीक वावर उपरांतचे कोंकणी चळवळीक एक व्हड आदार कसो जालो. उपरांतचे कोंकणी पिळगेक आनी कोंकणी चळवळीच्या जाळवणदारांक हो वावर म्हणजे एक आदर्श आनी दिश्टावो थारलो.

कोंकणीची तांक दाखोवपाखातीर ताणें विंगड विंगड विशयांवयलें आनी विंगड विंगड मोडीचें साहित्य रचलें. ताची 'कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ' म्हळयार कितल्याशाच भाशांच्या आनी त्या भाशांच्या नेमांच्या अभ्यासाची गवाय ,'कोंकणी नादशास्त्र' म्हळयार कोंकणीवांगडाच दुसऱ्या भारतीय भाशांच्या नादाचो सुक्षीम अभ्यास. 'गोमंतोपनिषत्' म्हळयार कोंकणींत कठीण विशय लेगीत कशे सोपे भाशेन सांगू येतात, हाची उत्तम देख. श्रीमद्भगवद्गीता ताणें 'श्रीभगवंतालें गीत' केली आनी दुसऱ्या भाशांचो अणकार कोंकणींत कितले बरे तरेन करूं येता हाची देख घालून दिली. वट्ट एकवीस पुस्तकां ताणें बरयलीं आनी तातुंतलीं चडशीं गोमंतक छापखान्या त्या छापखान्याचे धनी भौ. काशिनाथ श्रीधर नायक हाणें छापून घेवन उजवाडायलीं.

शणै गोंयबाबान बरयल्लीं देवनागरी लिपयेंतलीं वट्ट २१ पुस्तकां अशीं -

| | |
|---|---|
| १. गोंयकाराचो मुंबयकार (१९१०) | (फार्स काव्य) |
| २. गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक (१९२८) | (इतिहास) |
| ३. गोमंतोपनिषत् (पयलो खंड - १९२८) | (कथा) |
| ४. कोंकणी भाशेचें जैत (१९३०) | (भाशाशास्त्र) |
| ५. गोमंतोपनिषत् (दुसरो खंड - १९३३) | (तत्त्वगिन्यान) |
| ६. भुरग्यांलो इश्ट (१९३५) | (निबंद) |
| ७. मोगाचें लग्न (१९१३, १९३८) | (नाटक) आदारीत |

८. कोंकणी पयलें पुस्तक (१९३९) (व्याकरण)
९. पुण्यात्मो राम कामती (१९३९) (चरित्र)
१०. कोंकणी नादशास्त्र (१९४०) (भाशाशास्त्र)
११. भुरग्यांलें व्याकरण (१९४१) (व्याकरण)
१२. आबे फारीय (१९४१) (चरित्र)
१३. येवकार अध्यक्षांलें उलोवप (१९४५) (व्याख्यान)
१४. कोंकणी मुळावें पुस्तक (१९४७) (शिक्षण शास्त्र)
१५. पोवनांचे तपलें (१९४८) (नाटक) आदारीत
१६. कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ (१९४९) (व्याकरण)
१७. झिलबा राणो (१९५०) (नाटक) आदारीत
१८. आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिरवलें? (१९५५) (इतिहास)
१९. कोंकणी विद्यार्थ्यांक (१९५८) (निबंद)
२०. भगवंतालें गीत (१९५९) (काव्य)
२१. बलिपत्तनाचो सोद (१९६२) (इतिहास)
२२. जादूचो जुंवो (१९६८) (काणी)

ह्या देवनागरी लिपींतल्या पुस्तकांभायर ताणें रोमी लिपींतय साहित्य रचलें. जगप्रसिद्द नाटककार शेक्सपीयरच्या नाटकांचेर आदारीत नाटकां बरयलीं.

रोमी लिपींतले हे अणकार अशे -

१. राजपूत हॅम्लेट आनी बापायचें भूत.
२. गोरे बायलेचो काळो घोव.
३. मुदयांखातीर घोवा - बायलांचें झगडें.
४. धुवांची परिक्षा.
५. जुंवळया भावांचो घुस्पागोंदळ.
६. आगुल्ल्याचें निवळण.
७. राणयेचें जिवें बावलें.
८. घातमारो इश्ट.
९. बायलेची परिक्षा.
१०. मोगाचे पिडेचें वखद.
११. भुसमारे आलेभाव - कोलेभाव.

शणै गोंयबाबाचो कोंकणीचो वावर चलतना जायत्या जाणांनी ताचीं फकाणां आनी ताच्यो बकच्छायो केल्यो. मराठीचो पारवो घेवन ती गोंयकारांची परंपरेची, संस्कृतायेची भास म्हूण जायत्या जाणांनी शणै गोंयबाबाचेर आनी ताच्या कोंकणीच्या वावराचेर 'प्रतिगामी'म्हूण शिक्को मारलो. पूण शणै गोंयबाबाच्या विचारांची बुन्याद विचारनिश्ठ ,बुद्धीनिश्ठ, तत्त्वनिश्ठ आनी देखूनच थीर आशिल्ल्यान तो बागवलो ना. फुडार पारखुपाची ताची तांक संवसारांतल्या खंयच्याय म्हापुरसाचे तांकी इतलीच म्हान आशिल्ली. देखून गोंयचे मुक्तताये उपरांत गोंयचें महाराष्ट्रांत विलिनीकरण ताका मान्य नासलें. गोंयचो राज्यकारभार कोंकणींतल्यान जावचो असो हावेस तो बाळगून आसलो. एकेकडेन ते बरयता '.... हिंदुस्तानाक स्वराज्य मेळटकच हांगेलो हावेस इतलोच दिसता कि मराठ्यांक गोंय दसोवन, मराठ्यांचें आनी मराठी भाशेचें चेपण आपणाल्या माथ्यार घेवचें आनी अडेचे 'मराठी' म्हणोवन सासणांचीं सासणां बंदेपणांत काडचीं ! दमणगंगेसाकून मलबारामेरेन सगळो कोंकण देस हातांत घेवन, हिंदुस्तानाचे मुखेल सत्तेतळा ताचो कारभार कोंकणी भाशेंत चलोवचो आनी आपणाल्या घरा - दारांत आपणें धनीपणान नंदचें, हें हांगेल्या सप्नांतय येना ! हांकां बंदेपणाचीच रूच ! राजकारणांत, भासकारणांत आनी धर्मकारणांत हे फांपरमुठके रावतले म्हण्टात ! हांकां स्वतंत्र कोण करीत ? '

शणै गोंयबाबान इतिहासाचो सोद घेवन कोंकणी समाज आनी कोंकणी भास ही कितली पोरनी पुरातन हें दाखोवपाचो जो यत्न केला, तो ताचो इतिहासीक वावर म्हणूंक जाय. आपल्या लिखाणांत कोंकणी भास केळोवपाची ताची अभ्यासपूर्ण तयारी आनी तिचो योग्य वापर ह्या वावराची देख जावन आसा.

शणै गोंयबाबाची लिखणी सदांच वज्राचे धारेन पर्जळ्ळी. आपले जिणेंत तो सदांच मवाळ पद्दतीन आनी नमळायेनच वागलो. कोंकणीविशींच्या विशेश करून देवनागरी ही कोंकणीची सभावीक लिपी ह्या मतासंबंदांत तशेंच आपल्या समाजीक, संस्कृतीक वापरासंबंदांतल्या मतासंबंदान तो ठाम आशिल्लो खरो, पूण आपूण सांगतां म्हूण तुमी तें आयकुचें असो ताचो आग्रो नासतालो. 'आपूण सांगतां तें तुमी तुमचे बुध्दीचे साणीर घासून कसाक लागल्यार घेयात' हीच ताची भावना आशिल्ली.

कोंकणीच्या वावरवांगडाच कोंकणी समाजाच्या एकवटाचो आनी देशाचे स्वतंत्रतायेचो ध्यास तो बाळगून आशिल्लो. 'आतां आमगेले वाणी, चाड्डे आनी बामण, हिंदू तशेंच क्रिस्तांव हांणी गावडे आनी हेर सुदीर लेखिल्या भावांक आपणाल्या ऊंच पांवड्यार चडोवन, सगळयांनी मेळून, कोंकण, कोंकणे आनी कोंकणी भास ह्या भौच सोबीत तिर्कुटाची भांगराची घुडी संवसारांत जयजयकारान फडफडावची. ह्या कामाक होच सुगुर्व्याचो वेळ. बऱ्यांतल्या बऱ्या म्हुर्ताची घडका भरत आयली. कुभ (काबूल) न्हंयेसाकून ब्रह्मदेसा मेरेन आनी कैलासासाकून कुमारीमेरेन सासणाच्या अखण्या आनी सगळया हिंदुस्तानाचें उफेण स्वराज्य आमची खेम घेवंक उडक्यो मारीत आमचे सरी धावंत येता.ताका वेंग मारत, ताका आंवळून धरात आनी सासणाचे भाग्यवंत जायात ! बंदेपण पुरो जालें ! उबगण आयली ! जीव सामको वाजवाजलो !'

- कमलाकर द. म्हाळशी

**शणै, विठ्ठल :** सतराव्या शेंकड्यांतल्या पूर्वार्धांत जावन गेल्लो मुत्सद्दी गोंयकार. कर्नाटकांतल्या इक्केरी नांवाच्या ल्हानशा संस्थानांत तो वकिल आशिल्लो.

तो मुळचो केळशीचो. मराठी, कानडी, संस्कृत आनी पुर्तुगेज ह्या चार भासांनी ताणें प्राविण्य मेळयलें. तो हुशार आशिल्ल्या कारणान इक्केरीचो राजा वेंकटप्पा हाचो परराश्ट्रीय वकील म्हण ताची नेमणूक जाली.

ताच्या कर्तुपाचेर व्यंकटप्पा खूश आसलो आनी ताचें सगळें परराश्ट्रीय राजकारण विठ्ठल शणैच्या सल्ल्यान चलतालें अशें सांगतात.

- कों. वि. सं. मं.

**शणै, शरतचंद्र :** (जल्म : २३ मार्च १९५३ एर्नाकुलम - केरळ). नामनेचो कोंकणी लेखक. श्री. ए. व्ही. रघुनाथ शणै आनी सौ. कनकबाई हांचो सगळयांत धाकलो पूत. पदार्थ विज्ञान हो विशय घेवन ताणें बी.एस्.सी. ही विज्ञानाची पदवी जोडिल्ली आसा आनी सद्या तो कॅनेरा बँकेंत काम करता.

१९७४ वर्सासावन ताणें कोंकणी आनी मलयाळम लेखनाक सुरवात केली. 'कोंकण जनता' ह्या केरळांतल्या लोकप्रिय म्हयनाळयांतल्यान नेमान कविता बरोवन 'कोंकणी कवी' म्हूण ताणें खाशेली सुवात जोडली. कविता, गितां, काणयो (कथा), विनोदी लिखाण, बालसाहित्य, लेख अणकार आदी साहित्यप्रकार ताणें हाताळळयात आनी कोंकणी साहित्याक योगदान दिलां.

१६ व्या शेंकड्यांतली संत मीराबाई हिचे जिणेवयल्या वट्ट साठ रचनांचो कोंकणी अणकार ताणें केला आनी १९८७ वर्सा उजवाडा आयिल्ल्या ह्या रचनांच्या 'मीरा : जीवन आनी कवन' ह्या कवितासंग्रहाक १९९१ वर्सा 'कोंकणी लँग्वेज इंस्टिट्यूट' कोचीचो 'देवकीकृष्ण ट्रस्ट पुरस्कार' फावो जालो. १९८७ वर्सा ताणें चेन्नईचो मानेस्त संशोधक पी. बी. जनार्दन हाच्या मार्गदर्शनाखाल 'श्री कृष्ण कर्णमृतां'तल्या कांय पदांचो कोंकणी अणकार केलो.

शरदचंद्र शणै हाणें आपल्या कोंकणी कवितांचो झेलो 'अंतरनाद' ह्या नांवान १९९७ वर्सा उजवाडा हाडलो आनी ताका १९९९ वर्साचो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जालो. जीण आनी मरणावयले विचार, मनीसकुळांतलो संघर्श, वैयक्तीक अणभव, दैव संकल्प आनी भक्तीभाव आनी खास करून कवितेची अनुभूती अशा पांच विभागांनी ह्या कवितासंग्रहांतल्यो कविता वांटल्यात.

श्री. शरदचंद्र हाणें साहित्यसंकलनाचोय बरो वावर केला. केरळांतल्या समकालीन ११ कोंकणी लेखक कविंच्या कथा, कविता, निबंद आदी साहित्यप्रकारांचें ताणें केल्लें संकलन 'साहित्य संकलन' ह्या नांवान १९९५ वर्सा केरळ कोंकणी अकादेमीन उजवाडा हाडलें. १९९१ वर्सा ताणें 'काव्योद्यान - केरळ भुंयेचेर फुल्लेल्ली कोंकणी कविता' हें कवितांचें संकलन स्वता संपादन करून उजवाडा हाडलें. हातूंत वट्ट ३५ कोंकणी कवींचो आस्पाव केल्लो आसा.

कवीप्रमाणेच एक अभ्यासक आशिल्ल्यान ताणें आतांमेरेन कितल्याशाच परिसंवादांनी चर्चासत्रांनी वांटो घेवन केरळांतल्या कोंकणी साहित्यासंबंदीं निबंद सादर केल्यात.

आयज श्री. ए. आर्. शरदचंद्र शणै हे कविता लेखना वांगडाच इंग्लीश, मल्याळी भाशांतलें काव्य कोंकणींत हाडपाच्या वावराक आनी कथा कादंबरीच्या कोंकणी अणकाराच्या वावराक लागल्या.

- कमलाकर म्हाळशी

**शततारका :** नक्षत्रगणनेंतलें चोविसावें नखेत्र. हाका शतभिषकू वा शतभिषा अशें आनीक एक नांव आसा. हो एक शंबर तारकांचो मंडलाकृती चोंबो आसा. वरुण ही ह्या नखेत्राची देवता. ह्या नखेत्राचें शततारका हें नांव वेदकाळा उपरांतचें आसा.

ह्या नखेत्राचेर जल्मल्ली व्यक्ती कोळी, मडवळ, सोन्याचो वा नुस्तें विकपाचो धंदो करपी, सत्यवचनी, कठोर उलोवपी, धाडसी, अविचारी, स्वतंत्र वृत्तीची, जुगारी, कुमार्गी, स्त्रीलंपट, हुशार दुस्मानाचो नाश करपी अशी आसता, अशें कोष्ठप्रदीपांत आनी नाक्षत्र फल दिवपी ग्रंथांत म्हळां.

शततारका हें नखेत्र कल्याणप्रद, उर्ध्वमुख, मंदलोचन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**शतपथ ब्राह्मण :** शुक्ल यजुर्वेदाचो ब्राह्मणग्रंथ. शुक्ल यजुर्वेदाच्या माध्यंदिन आनी काण्व ह्या दोनय फांट्यांच्या दोनय ब्राह्मणांचें नांव शतपथ अशेंच आसा. ह्या ब्राह्मणांत शंबर अध्याय आशिल्ल्यान ताका शतपथ नांव मेळळां. माध्यंदिन शतपथ ब्राह्मणांत १४ कांडां, १०० अध्याय, ६८ प्रपाठक, ४३८ ब्राह्मणां आनी ७६२४ कंडिका आसात. काण्व शतपथ ब्राह्मणांत प्रपाठक विभाग नात. तातूंत १७ कांडां, १०४ अध्याय, ४३५ ब्राह्मणां आनी ६८०६ कंडिका आसात. ह्या दोनय ब्राह्मणांत बरेंचशें सारकेपण आसा तशेंच कांय पाठभेद आसात.

माध्यंदिन शतपथ ब्राह्मणांत आयिल्ले विशय अशे आसात -

पयल्या कांडांत दर्शपूर्णमास इष्टीचें आनी दुसऱ्या कांडांत आधान अग्निहोत्र, पिंडपितृयज्ञ, आग्रयण आनी चातुर्मास्य याग हांचें वर्णन आसा. तिसऱ्या आनी चवथ्या कांडांत सोमयागाकडेन संबध्द अशा जायत्या यागांचें विवरण आसा. पांचव्या कांडांत वाजपेय आनी राजसूय ह्या यागांचें विवेचन आसा. स ते धा कांडांत उख्वासंभरण, विष्णुक्रम, वनीवाहनकर्म, चयनवर्णन, शतरुद्रिय होम, चितिसंपत्ती, अग्नीची उपासना सारकिल्ल्या विशयांचें वर्णन आसा. इकराव्या कांडांत कांय कर्मां सांगिल्लीं आसात आनी तीं समजुचीं म्हणून यज्ञयागांच्यो कथा दिल्ल्यो आसात. बाराव्या कांडांत सौत्रामणी याग आनी प्रायश्चित्त हांचो विधी आसा. तेराव्या कांडांत अश्वमेध, सर्वमेध, पुरूषमेध आनी पितृमेध हांची चर्चा आसा. चवदावें कांड आरण्यक कांड म्हणून

प्रसिद्द आसा. तातुंतल्या निमण्या भागाक बृहदारण्यकोपनिषद अशें नांव आसा. बारा हजार ऋचा, आठ हजार यजुस् आनी चार हजार सामे हांचो संग्रह प्रजापतीन केला अशें ह्या ब्राह्मणांत सांगलां. पूण आयज उपलब्ध आशिल्ल्या तीनय वेदांत इतले मंत्र मेळनात.

ह्या ब्राह्मणांत महाभारतांतल्या जायत्या कथांचें सार आयिल्लें आसा. सीता आनी राम हांचींय नांवां ह्या ब्राह्मणांत सांपडटात. कद्रू आनी सुपर्णा हांचें झूज, पुरूरवा आनी उर्वशीची कथा, अश्विनीकुमारान च्यवन ऋशीक जुवानपण दिलें ती कथा, मनू आनी नुस्तें ही कथा सारकिल्ल्यो कथा हातूंत संक्षेपान दिल्ल्यो आसात. मिथिलेच्या विदेह राजाच्या दरबारांत जायते खेप जे वादविवाद जाताले तांचें विस्तारीत वर्णन हातूंत आयलां. हातूंत वेगवेगळया यज्ञयागांचें वर्णन दिल्लें आसा हें ह्या ब्राह्मणाचें खाशेलेपण.

आयज मेळपी सगळया ब्राह्मणग्रंथांत शतपथ ब्राह्मण हो पुर्विल्लो. आर्यांचो प्रसार भारतांत खंयमेरेन जालो ताचें दिग्दर्शन करपी एक कथा हाच्या पयल्या कांडांत आयिल्ली आसा. हे कथेवयल्यान त्या काळांत वैदिक धर्माचो प्रसार भारताच्या पूर्वभागांत जाल्लो म्हणपाचें जाणवता.

देवांचे उत्पत्तीकलागून उजवाड आनी राक्षसांचे उत्पत्तीकलागून काळोख जालो अशें ह्या ब्राह्मणांत सांगलां. ताकालागून दीस हो देवांचो आनी रात राक्षसांची थारली.

हातूंत आठ वसू, इकरा रूद्र, बारा आदित्य, मळब आनी धर्तरी अशो तेत्तीस देवता मानिल्ल्यो आसात.

बायलांचो उत्तराधिकार हातूंत मानिल्लो ना. कारण हिंदू धर्मांत बायलांचें स्वतंत्र अस्तित्व मानिल्लें ना. तशेंच दादलो हो शरीराचो अर्दो भाग आसा. जोमेरेन ताका बायल मेळना आनी पूत जायना तोमेरेन तो पूर्ण जायना आनी बायल नासतना ताका यज्ञ करपाक मेळना अशेंय सांगला.

वैदिक साहित्यांत ह्या ब्राह्मणाक जायत्या नदरांनी म्हत्व आसा. हेर ब्राह्मणग्रंथांप्रमाण हातूंत जायत्या यज्ञांचें स्पश्टीकरण तर केलांच. तेभायर उतरांचे अर्थ आनी मंत्रांचें स्पश्टीकरणय दिल्लें आसा. ह्या ग्रंथाकलागून वैदिक साहित्याचेर उजवाड पडटा. त्या काळांत वेगवेगळया विद्यांत प्रवीण आशिल्ल्या आचार्यांचींय नांवां ह्या ग्रंथांत सांपडटात. हाच्या ६ ते १० ह्या कांडांनी वेदीच्या रचनेसंबंदीं विचार केल्लो आसून तातूंत शांडिल्याच्या मताक प्राधान्य दिलां. हेर भागांत सादारणपणान याज्ञवल्क्याच्या मताक म्हत्व दिल्लें आसून शेवटाक तर हो ग्रंथ याज्ञवल्क्यानच बरयला अशें सांगलां. हातूंत गांधार, साल आनी केकय ह्या वायव्य प्रदेशांतल्या लोकांचो निर्देश आसून कुरू, पांचाल, कोसल, विदेह, सृंजय ह्या प्रांतांतल्या लोकांचो मुखेलपणान उल्लेख आसा. ताचेवयल्यान वैदिक संस्कृतीचें केंद्र पंजाबांतल्यान उदेंत भारतांत गेल्ल्याचें कळटा.

शतपथ ब्राह्मणाचेर हरिस्वामी, सायण आनी कवींद्राचार्य सरस्वती हांचीं भाश्यां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**शनी :** सूर्यमाळेंतलो सातवो गिरो. तो गुरूपरस ल्हान आनी हेर गिर्‍यांपरस व्हड आसा. ताचो आकार धर्तरेपरस ७०६ पटीन व्हड आसून तो सूर्यासावन ८८ कोटी ६० लाख मैल पयस आसा. ताका सूर्याभोंवतणी एक प्रदक्षिणा पुराय करपाक १० वरां १४ मिनटां लागतात. शनीचें वस्तुमान धर्तरेच्या ९५ पट आसा.

उक्त्या दोळयांनी पळयलो जाल्यार शनी फिकट हळदुवो दिसता. दुर्बिणींतल्यान पळयलो जाल्यार ताचे भोंवतणी तीन वलयां (कडीं) आनी धा उपगिरे दिसतात. हे उपगिरे शनीसावन बरेच पयस आशिल्ल्यान खूब बारीक दिसतात. शनीचो आकार वाटकुळो नासून, चपटो आसा. इतलो चपटो आकार हेर खंयच्याच गिर्‍याचो ना. शनीवयले सगळे पदार्थ उदकापरस्सूय पातळ आसूंक जाय, असो तर्क आसा. शनीच्या भोंवतणी खूब दाट आनी कुपांनी भरील्लें वातावरण आसा. तो सूर्यासावन खुबच पयस आशिल्ल्यान ताचेवयलें उश्णतामान गुरूपरस कमीच आसा. शनीचेर मिथेन वायुच्यो रेगो चड प्रभावी आनी अमोनियाच्यो रेगो कमी प्रभावी दिसतात. शनीचें पृश्ठभागाचें तापमान सुमार १५५° सेंग्रे. आसा. शनीक नीजाचें अशें तेज आसुंये अशें दिसता. ताचेवयलें वातावरण सामकें थंड आसा.

शनी हो सूर्याची ल्हान प्रतिमा म्हणून ताका सूर्यपूत म्हळां जांवये. शनीभोंवतणच्या १६० लाख मैलांच्या प्रदेशांत ताचे णव उपगिरे, ताचे भोंवतणीं भोंवत आसतात. तातुंतलो सगळयांत धाकटो ३०० मैल व्यासाचो आसा. शनी भोंवतणच्या वलयांक लागून तो खूब सोबीत दिसता. ह्या वलयांमदलीं भायलीं दोन वलयां चकचकीत आसात आनी भितल्लें वलय तेजहीन आसा. ह्या सगळयांत भायल्या वलयाचो व्यास १७२ हजार मैल आनी सगळयांत भितरल्या वलयाचो व्यास १५० हजार मैल आसा. भायल्या वलयाची कड शनीच्या मध्यबिंदूसावन ८६ हजार मैल आसा. हीं वलयां शनीच्या विषुववृत्ताभोंवतणीं पातळिल्लीं आसून तीं सामान्यतायेन पारदर्शक आसात. धुल्लाच्या कणाइतल्या सामक्या ल्हान अशा कोटी कोटी उपगिर्‍यांच्या योगान तीं जाल्यात.

जातकशास्त्रांत शनीचें वर्णन अशें आसा - हो सूर्याक सावळेसावन जाल्लो पूत. हाचो जल्म पौष शु. अश्टमी ह्या दिसा रेवती नक्षत्रार, सूर्य अस्ताक वचपाच्या वेळार जाला. यम आनी यमुना हीं ताचीं भावंडां. सूर्यान सावळेक उपेक्षेन बागयलें, तें सहन न जावन शनीन सूर्याचो झुजांत पराभव केलो. सतीच्या विरहान शंकराच्या दोळयांतल्यान व्हांवपी दुकां ताचेर पडिल्ल्यान तो काळो जालो, अशी कथा कालिकापुराणांत आसा. जाल्यार हाणें शिव आनी त्रिपुर हांच्या

झुजांत शिवाच्या रथांत बसून नरकासुराकडे झूज केलें, अशी कथा भागवत पुराणांत आसा. अगस्त्य ऋशीक अश्वत्थ आनी पिप्पल हे त्रास दिवंक लागले, म्हणून शनीन तांकां जीतेच मारले. शनी लोकांक सतावपाक लागलो म्हणून हाका संतुश्ट करपाखातीर शंकरान बारा राशींतल्या मकर आनी कुंभ ह्या दोन राशींचें मुखेलपण हाका दिलें आनी जो कोण शनीची पुजा करतलो, ताका सूख मेळटलें, अशें सांगलें.

मळबांत रोहिणीचो नखेत्रा चोंबो रथाचे आकृतिचो आसा. केन्नाय चुकून शनी ह्या रोहिणीशकटाचो भेद करून फुडें वता, तेन्ना संवसाराचेर अरिश्ट येता अशें जातकशास्त्र सांगता.

शनीचे गूण आनी कामावयल्यान ताका शनैश्चर, मंद, रौद्र, कृष्ण, आदी धा नांवां आसात. ह्या नांवांचो जो श्लोक आसा तो असो -

कोणान्तऽको रौद्रयमोऽथ बभ्रु : ।
कृष्णः शनिः पिङ्गलमन्दसौरिः ।।

शनीच्या ह्या धा नांवांचें स्मरण केलें, जाल्यार शनीची पिडा पयसावता अशें सांगलां -

शनी हो पापगिरो आसा. ताचो साडेसाती प्रसिद्द आसा. एकाद्र्या मनशाचे राशीचे फाटले राशींत, ताचे स्वतःचे राशींत आनी फुडलें राशींत शनी आयलो जाल्यार शनीचो साडेसाती लागलो अशें समजतात. दर एके राशींत शनी हो चडसो अडेज वर्सां आसता. ताकालागून वयल्यो तिनय राशी भोगपाचो ताचो काळ साडेसात वर्सांचो जाता. ह्या साडेसात वर्सांतलीं कांय वर्सां मनशाक बरीं वतात आनी कांय वर्सां वायट वतात, असो अणभव सांगतात. मात शनी हो दुश्ट गिरो आसलो, तरी तो जाचेर कृपा करता, म्हळयार जल्मपत्रिकेंत शुभसुवातेचेर आसता त्या मनशाक तो यश आनी पैसो मेळोवन दिता.

खूब तेंप तिगपी विकार, विघ्नां, वैफल्य, मरण आदी गजालींचो कारक शनी आसता. तूळ रास ही शनीची उंचेली रास आसून, मेष रास ही सामकी सकयली रास आसा. वयले राशींत, स्वगृहांत आनी इश्टराशींत शुभग्रहांनी भरिल्ले आसल्यार शनी बरीं फळां दिता. जाल्यार सकयल्ल्या राशींत, दुस्मान घरांत आनी पापगिऱ्यांनी भरिल्लो आसल्यार वायट फळां दिता. शनी प्रभावी आशिल्ल्या जल्म कुंडलीचीं मनशां दुबावीत, चौकस आनी दिर्घोद्योगी आसतात. ताचे दांत, व्हड आनी ल्हव दाट - कडक, चडकरून दोळे घारशे, खाडकी लांबोडी, सकयलो ओंठ मातसो फुडें आयिल्लो, आनी आंगलोटान बारीक आनी लांब आसतात. तांकां संधीवात जावपाची भिरांत आसता. शनीची पिडा ना जावपाखातीर ताची पूजा करची, ताका खूश करपाखातीर हुडीद, तीळ, तीळेल, काळें लुगट, लोखण, काळी गाय, जोत्याचो जोड ह्यो वस्तू दान दिवच्यो, अशें सांगलां. शनीच्या बरेपणाखातीर नीलमणी कुडीचेर दवरचो. शेनवारा मारुतींची पुजा करून, ताका तेल घालचें, अश्वत्थाची पुजा करची, शनीमाहात्म्य वाचचें, शनीचो जप करचो, शनीच्या वैदिक मंत्राचो २३ हजार फावटी जप करचो अशेंय धर्मशास्त्रांत सांगलां. हो मंत्र असो -

शमग्निरग्निभि : करच्छं नस्तपतु सूर्य : ।
शं वातो वात्वरपा अपस्त्रिध : ।।

भारतांत कांय कडेन शनीचीं देवळां आसात. भारतांतल्या काय रानटी जमातीचो शनी हो ग्रामदेव आसा. महाराष्ट्रांत शनीखातीर श्रावण म्हयन्यांत शेनवारा सूर्य उदेवंचे पयलीं पिंपळाची पुजा करतात. त्या दिसा मुंज्या भुरग्यांक अभ्यंग न्हाण घालून जेवपाक वाडटात. शेनवाराची कथा वाचतात वा आयकतात.

- कों. वि. सं. मं.

**शब - इ - बारात :** मुसलमान लोकांचो एक पवित्र दीस. हिजरी सनाचो आठवो म्हयनो शाबान ह्या नांवान वळखतात. ह्या म्हयन्याचे पुनवेक हो सण मनयतात. ह्या दिसा दर एका मनशाचें त्या वर्साचें भविश्य थारता आनी तें एका ग्रंथांत बरोवन दवरप जाता असो सगळ्या मुसलमान लोकांचो विश्वास आसा. त्या दिसा लोकांक नरकांतल्यान मुक्ती मेळटा आनी पापात्मे पवित्र जातात, हे समजुतीन मेल्ल्या मनशांची याद करून तांचेखातीर एक प्रार्थना म्हण्टात. ही प्रार्थना कुराणाच्या पयल्या अध्यायांत आसा. तिका अल् - फातिहा अशें म्हण्टात.

शीया पंथाचे अनुयायी हो दीस इमाम महदीचो जल्मदीस म्हूण पाळटात आनी हासन - हुसेन हांची याद करतात.

धर्मीक लोक प्रार्थनेखातीर हो दीस खूब शुभ मानतात. ह्या दिसा गरीब लोकांक गोड जेवण करून घालतात. हें जेवण शिवराक आसता. ते राती झाडां - पेडांलेगीत एकामेकांकडे उलयतात असो समज आसा. सगळी रात फोग पेटोवन मजा करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**शरद :** स ऋतूंतलो चवथो ऋतू. आश्विन आनी कार्तिक ह्या दोन म्हयन्यांच्या काळाक शरद हें नांव आसा.

वाल्मीकी, कालिदास, भारवी, माघ, विशाखादत्त ह्या ज्येश्ठ संस्कृत कवींनी आपल्या साहित्यांतल्यान ह्या ऋतुंचीं वर्णनां केल्यांत. वाल्मिकीन केल्लें शरद ऋतुचें वर्णन अशें आसा -

तर्पयित्वा सहस्त्राक्ष : सलिलेन वसुन्धराम् ।
निर्वर्तयित्वा सस्यानि कृतकर्मा व्यवस्थित : ।।
स्निग्धगम्भीरनिर्घोषा : शैलद्रुमपुरोगमा : ।
विसृज्य सलिलं मेघा : परिश्रान्ता नृपात्मज ।।
नीलोत्पलदलश्यामा : श्यामीकृत्वा दिशो दश ।
विमदा इव मातङ्गा शान्तवेगा : पयोधरा : ।।
जलगर्भा महावेगा : कुटजार्जुनगन्धिन : ।

चरित्वा विरता : सौम्य वृष्टिवाता : समुद्यत : ।
घनानां वारणानां च मयूराणां च लक्ष्मण ।
नाद : प्रस्त्रवणानां च प्रशान्त : सहसानघ ।।

**अर्थ** - इंद्रान भरपूर पावस घालून धर्तरेक तृप्त केली आनी धान्य पिकोवन तो कृतार्थ जालो. धीरगंभीर गर्जना करपी कुपां लेगीत दोंगर, रूख आनी शारांचेर पावस घालून आतां थंड जाल्यात. नीलकमलाच्या पानांभशेन दिसपी कुपां चारूय दिकांनी हरयाळी करून मदहीन हत्तयांभशेन थकल्यात. कुडयाच्या आनी अर्जुनाच्या फुलांच्या वासान भरील्लें वारेंय आतां थंडावलां. हे लक्ष्मणा, कुपांचो गडगडाट, हत्तयांचो चित्कार, मोरांचें कॅकाटप, व्हाळांच्या उदकाचो खळखळाट आता बंद जाला.

ज्या काळांत वखदी वनस्पत, धान्य पिकता आनी पावसाळयांतली खदूळसाण सोंपून न्हंयांचें - व्हाळांचें उदक नितळ जाता, त्या काळाक शरद ऋतु म्हण्टात अशें निरुक्तांत म्हळां.

ह्या काळांत जल्मल्लो मनीस सत्कर्मांत उमेद आसपी, शुचिष्मंत, सुशील, गुणी, मानी, गिरेस्त आनी राजकुळांत जल्मल्लो आसता अशें कोष्ठप्रदीपांत सांगलां.

कालिदासाच्या मतान शरत्काल हो दिग्विजयाखातीर प्रस्थान करपाचो आनी सीमोल्लंघन करपाचो आसता.

आश्विन शुध्द पुनवेक शरत्पुर्णिमा अशें नांव आसून, त्या दिसा भगवान श्रीकृष्णान व्रजमंडळांत रासोत्सव मनयलो, अशें श्रीमद्भागवतांत म्हळां.

'शतं जीव शरदो वर्धमानः' ह्या प्रसिद्द आशिर्वादमंत्रांत येवपी शरद हो शब्द वर्षवाचक आसून, ताचो अर्थ 'तू शंबर शरद ऋतू पळोवपाइतको जग' असो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**शर्मा, डॉ. शंकर दयाळ :** (जल्म : १९ ऑगस्ट १९१८; मरण : २६ डिसेंबर १९९९ दिल्ली).

भारताचो धावो राश्ट्रपती. केंब्रिज विद्यापिठाकडल्यान ताणें पीएच. डी. ही पदवी घेतली. थंयच ताणें कांय काळ अध्यापनय केलें. आयज मेरेन आठ विंगड विंगड विद्यापिठांनी ताका मानद डॉक्टरेट ह्यो पदव्यो भेटयल्यात.



अ. भा. काँग्रेसचो वावुरपी म्हणून ताणें राजकीय कार्याक सुरवात केली. फुडें पक्षाध्यक्षपद, मुखेलमंत्री, केंद्रीयमंत्री, राज्यपाल, उपराश्ट्रपती अशीं जायतीं पदां हाताळटकच तो भारताचो राश्ट्रपती जालो. २५ जुलय १९९२ ह्या दिसा ताणें भारताचो धावो राश्ट्रपती म्हणून सोपूत घेतलो. २५ जुलय १९९७, हो काळमेरेन तो त्या पदार वावुरलो.

उपराश्ट्रपती आनी वांगडाच राज्यसभेचो अध्यक्ष म्हणून ताणें तोरखणायेचो वावर केलो आनी उंचेल्या सभाघराची प्रतिश्ठा आनी राश्ट्रीय एकात्मता सदांच राखली. राश्ट्रपती पदाच्या काळांत ताका तशा व्हडल्याशा समस्यांक तोंड दिवचें पडलें ना. तरी आपली दूरदृश्टी आनी प्रशासकीय वेव्हाराच्या अणभवान ताणें राश्ट्रपती पदाचो मान वाटयलो. एक खरेलो निधर्मी भारतीय ह्या नात्यान ताणें बाबरी मशिदीच्या विध्वंसाचेर खर निशेध परगटायलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शहाजी :** (इ.स. चो १६ - १७ वो शेंकडो).

तंजावरच्या भोसले घराण्यांतलो एक कलारसीक राजा. कर्नाटकांतल्या यक्षगान नाट्याचोय तो पुनरुध्दारक. छत्रपती शिवाजीमहाराजाचो सावत्र भाव एंकोजी वा व्यंकोजीचो हो व्हडलो पूत. ताच्या आवयचें नांव दिपाबाई. कन्नड आनी तेलुगू भासांचो तो जाणकार आशिल्लो.

इ. स. १६८२ त हो गादयेर आयलो. ताणें कांय पुंड - पाळेगारांक हारायले आनी आपलें राज्य इल्लेंशें वाडोवन थीर केलें. ह्या कामांत ताका ताचे आवयन आनी दोगा भावांनी पालव दिलो.

ताणें सुमार वीस यक्षगान नाट्यां रचलीं. ह्या यक्षगानांचीं नांवां आनी विशय पुराणीक आसले तरीय तातुंतलो पुराणीक कथाभाग नांवा पुरतोच आसा. पुराणांतले कथा प्रसंग घेवन आयच्या समाजाचें, नगरांचें रीतीभातींचें, आचार - विचारांचें आनी वेशभुशेचें दर्शन घडोवप हो ह्या कवीचो हेतू आसा. ताचें त्यागराज - विनोद - प्रबंध नाटक हें स अंकांचें बृहन्नाटक तेलुगू साहित्यांत चड गाजिल्लें आसा. यक्षगानांतले सूत्रधार, नटी, विदूशक सारकिल्ल्या पात्रांखातीर ताणें कांय नेम केले आनी यक्षगाननाट्याक सारकें स्वरूप दिलें.

ताणें रचिल्ल्या वीस यक्षगान नाट्यांचीं नांवां अशीं : किरात - विलास, कृष्णविलास, गंगा - पार्वती संवाद, जलक्रिडा, त्यागराज - विनोद - चित्र - प्रबंध नाटक, द्रौपदी कल्याण, पंचरत्न प्रबंध नाटक, पार्वतीपरिणय, रतिकल्याण, रामपट्टाभिशेक, रूक्मिणी - सत्यभामासंवाद, वल्लीकल्याण, विघ्नेश्वर कल्याण, विष्णुपल्लकिसेवा प्रबंध, शंकरपल्लकिसेवाप्रबंध, शचीपुरंदर, शांताकल्याणमु, सीताकल्याणमु, सतिपति दानविलास आनी सतीदानशूर.

- कों. वि. सं. मं.

**श्री शांतादुर्गा : श्री शांतादुर्गा देवस्थान - आमोणें :** दिवचल तालुक्यांतल्या आमोणें वाठारांतलें देवस्थान. हे देवीचीं जायतीं अनुषंगिक दैवतां आसात तीं अशीं - श्री दुर्गादिवता, श्री ग्रामपुरूस, श्री बेताळ,

श्री रवळनाथ, श्री महालक्ष्मी, श्री रुपेभगत, श्री गडव्हंस आनी श्री भूतनाथ. तशेंच श्री महादेव आनी श्री नारायणदेव ह्या नांवांचीं दैवतांय थंय आसात. हीं सगळीं दैवतां थंय कोणें आनी केन्ना स्थापन केलीं हाची स्पश्ट म्हायती मेळना. तरी सुरवेक हो आमोणें गांव जाणें बसयलो आनी जांणी ग्रामसंस्था स्थापन केली तांणीच हीं दैवतां हांगा स्थापन केलीं अशें मानतात. कारण ह्या देवस्थानाचे घटना नेमावळींतल्यान आमोणें ग्रामसंस्थेचे जे सभासद संस्थापक तेच ह्या देवस्थानाचे म्हाजन आनी संस्थापक आशिल्ले म्हणपाचें कळटा. ह्या देवस्थानाच्या म्हाजनांत नैधृव्य गोत्री गौड सारस्वत ब्राह्मण जातीचे आमोणकार आडनांवाचे आसात. तेचपरी हेर जातीचे फडते, गांवस, पोरोब, सिनारी ह्या उपनांवांचेय आसात. ह्या देवस्थानांतलें श्री शांतादुर्गा हें मुखेल दैवत दोंगरार आसा तशेंच, हांगाच्या श्री बेताळ, श्री रवळनाथ, श्री महालक्ष्मी आनी श्री रुपेभगत ह्या तीन दैवतांच्या साक्षात्काराच्यो आख्यायिका प्रसिद्द आसात.

आमोणें गांवांतल्या श्री रवळनाथ आनी श्री महालक्ष्मी देवळांत नवरात्र आनी दसरो उत्सव मनयतात. पूण थंयच्यान बेताळ देवळांत कार्तिक म्हयन्यांत वद्य पंचमीसावन नवरात्रांक सुरवात जाता आनी धाव्या दिसा म्हळयार वद्य चतुर्दशी दिसा दसऱ्याचो कार्यक्रम दनपरां १२ वरांचेर सुरू जावन सांजवेळचो ५ ते ६ वरांमेरेन ताची सांगता जाता. ह्या दसऱ्याची खुबच नामना आसा आनी ताका आमोणेंचो दसरो म्हूण वळखतात. तशेंच खंयच्याय मनशाक सुण्यान वा हेर जनावरान घांस मारल्यार तशेंच, सोरोप वा हेर जिवाणें चाबल्यार हांगाच्या श्री लक्ष्मीदेवीचें गंधतीर्थ लायल्यार ताचेर रोखडोच गूण पडटा अशीय आख्यायिका आसा. हें गंधतीर्थ लावपाच्या काळांत कांदो, नुस्तें वर्ज्य करून शिवराक जेवण घेवंक जाय अशेंय म्हण्टात.

हांगाचो रुप्याभगत हो देव श्री रवळनाथ - महालक्ष्मीच्या देवळालागसारचे देवळेंत आसा. ह्या देवाक खंयचेंय संकश्ट पयस करपाची तशेंच खंयचीय शेणिल्ली वस्त परत मेळोवन दिवपाखातीर प्रार्थना करतात आनी तेबदला एक पैचें गोड दिवपाचो नवस करतात. हो देव नवसाक पावता अशी आख्यायिका आसा.

श्री शांतादुर्गा हें हांगाचें मुखेल दैवत आसून तिचें देवूळ दोंगरार आशिल्ल्यान श्री म्हादेवाच्या देवळांत तिचो कलश दवरिल्लो आसा. दर वर्सा कार्तिक वद्य त्रयोदशी दिसा मिरवणुकींत हो कलश श्री महादेवाच्या देवळांतल्यान श्री शांतादुर्गा देवीच्या देवळांत दोंगरार व्हरून दवरतात. थंयच दुसऱ्या दिसा सवायशिणी १० ते १२ वरांचेर वर्सुकी दिवजां पेटयतात आनी उपरांत तो कलश वाजयत गाजयत परत श्री महादेवाच्या देवळांत दनपरां एक वरांमेरेन हाडून पावयतात. श्री म्हादेवाचो पालखी उत्सव दर वर्सा मार्गशीर्ष शुक्ल सप्तमी दिसा जाता. श्री महालक्ष्मी देवीचे प्रतिश्ठापनेनिमतान दर वर्सा माघ म्हयन्यांत तीन दीस उत्सव मनयतात.

ह्या देवस्थानांत श्री शांतादुर्गा, श्री ग्रामपुरूस, श्री महादेव, श्री नारायणदेव, श्री दुर्गादेवी हांची पुजा अर्चा कऱ्हाडे ब्राह्मण भट करतात, जाल्यार श्री रवळनाथ, श्री महालक्ष्मी, श्री रुपेभगत हाची पुजा अर्चा भगत, श्रीवेताळ आनी भूतनाथाची पुजा सावंत आनी श्री गाडव्हंस देवाची पुजा जल्मी अशे वेगवेगळे पुजारी आसात.

**श्री शांतादुर्गा देवस्थान - कवळें :** फोंडें तालुक्यांतल्या श्री क्षेत्र कैवल्यपूर (कवळें) थळांत आशिल्लें नामनेचें देवस्थान. हें देवस्थान मुळचें साश्टींतल्या कर्दळीपूर म्हळयार केळशी गांवांतलें. थंय ताची मूळ स्थापना जाल्ली आनी इ.स.च्या सोळाव्या शतमानाच्या मध्यामेरेन तें थंय आशिल्लें. उपरांत पुर्तुगेजांचे बाटाबाटीक लागून ताचें स्थलांतर जालें.

त्रिहोत्रपुरासावन परशुरामान जे दशगोत्रांचे ब्राह्मण हाडिल्ले तांणी आपले वांगडा आपलीं आराध्य दैवतांय (कुलदेव) हाडिल्लीं. ह्या ब्राह्मणांचीं ६६ कुळां आशिल्लीं. तातुंतल्या ब्राह्मणांक जे गांव अग्रहार मेळळे थंय तांणी आपल्या कुलदैवतांची स्थापना केली. तातुंतल्या कौशिक गोत्री ब्राह्मणांक कर्दलीपूर (केळशी) हो गांव अग्रहार मेळळो आनी थंय तांणी आपली कुलदेवी श्री शांतादुर्गा हिची स्थापना केली. हो कौशिक गोत्री ब्राह्मण म्हळयार मूळ पुरूस लोमशर्मा तोच ह्या देवस्थानाचो मूळ संस्थापक आसा. केळशींत हे देवीक श्री सांतेरी ह्या नांवान पुजताले.

१५१० वर्सा पुर्तुगेजांनी आदिलखानाकडल्यान गोंय जुंवो जिंकून घेतलो. तेन्ना गोंयांत हिंदुंचीं जायतीं देवळां आशिल्लीं. पूण जांचें राज्य तांचो धर्म हें तत्त्व नदरेमुखार दवरून पुर्तुगेजांनी २८ जून १५४१ वर्सा हांगाचीं चडशीं देवळां नश्ट केलीं. ह्या धर्मसंकटाक भियेवन श्री शांतादुर्गेचे कुळावी केळशीकर हांणी १५६६ वर्सा केळशीच्यान कवळें हांगा श्री शांतादुर्गेचें स्थलांतर केलें.

ह्या कुळाव्यांनी केळशीच्यान आपले सगळे आस्पतीचो त्याग करून श्री शांतादुर्गेक घेवन फोंडें म्हालांतल्या कवळें गांवांत



श्री शांतादुर्गा देवस्थान, कवळें

येवन, थंयच्या दोंगराच्या मूळसांत श्री देवीची स्थापना केली. हो जागो मूळ म्हारांचो आशिल्लो. तांणी खोशयेन हें दैवत आपले सुवातींत स्थापन करपाक मान्यताय दिली आनी आपूण दुसरेकडे वसणूक करून रावले, म्हारांनी दाखयल्ले देवीचे भक्तीची जाणवीकाय दवरून कुळाव्यांनी तांकां श्री देवीच्या प्रतिश्ठापनेच्या दुसऱ्या दिसा तांकां आपोवन तांचो भोवमान केलो. तेन्नाच्यान दर वर्सा माघ शुध्द षष्ठी दिसा म्हळयार जात्रेच्या दुसऱ्या दिसा ह्या देवस्थानांत म्हारांक जेवण दिवन तांचो भोवमान करतात.

कवळें हांगा श्री शांतादुर्गा देवस्थान अधिश्ठीत जावंचे पयलीं थंय ल्हान देवालय आशिल्लें. श्री नारो राममंत्री हो ह्या देवस्थानाचो कुळावी. ताणें हांगा व्हड देवळाची उबारणी केली. देवळाचे फाटलेवटेन अग्रशाळा बांदून घेतल्यो. तशेंच श्री शांतादुर्गेची पुजा, निवेद्य वेवस्थीत चलपाक शाहू छत्रपतीचो मुखेल प्रधान पयलो बाजीराव हाचेकडल्यान मौजे - कवळें हो गांव इ. स. १७३९ वर्सा इनाम घेतलो. तशेंच मंत्री रामचंद्र मल्हार आनी ताचो पूत सदाशिव रामचंद्र नारो, बाबाजी वरटीकर, भास्करबाबा सार्कोर्डेकर सारकिल्या जायत्या म्हाजनांनी व्हड व्हड देणग्यो दिवन देवीच्या भांडारांत भर घाली.

ह्या देवस्थानाचे मुळचे म्हाजन कुळावी फकत कौशिक गोत्री गौड सारस्वत ब्राह्मण आशिल्ले. तांचीं नांवां अशीं - (१) म्हाले (शिरोडकार), (२) हरपती (पिसुर्लेकार), (३) वैद्य (हवालदार स्थळेकर, कोपीकर), (४) सुखठणकर (घांटकर, सुर्लकर, कुवेलकर, कारापूरकर, कांसारकोडकर, निलकुंदकर), (५) भांडारी (भांडारकर, चिन्नरकर) (६) धोंदे, (७) रामाणी (८) श्रीधरपई (पुनरेकर), (९) रेगे (मंत्री, बक्षी, नाडकर्णी, कुलकर्णी, असोळडेकार, कुडचडकार, कोठंबकार, तळवडकार, मळकर्णेकार, शिरवयकार, शेळडेंकार, होडारकार, बाळडीकार, सावर्डेकार, साळावलीकार, सुर्लकार, साकोर्डेकार, खोलकार, झणकार, (१०) शिंसाणी (कुंडयकार), (११) गायतोंडे (कुळकर्णी, हेदे, उसकईकर, कसबेकार, दाभोळकार, बरडे), (१२) साखरदांडे (कुळकर्णी, नारिंगकार) अशीं बारा वांगडाचीं मूळ कुटुंबां आसात. तेभायर वत्स गोत्री वर्दे (वालावलिकार, बोरकार, भरणे, जारव, सबनीस, आचमनी, खासनीस, बळनवल्लीकार; भारद्वाज गोत्राचे पाळंदीकार, गंगोळीकार, कल्याणकार हे म्हाजन आसात. हाचेय वांगडा कानविंदे, सवनी वा सोहनी, मुंग्रे, वर्टी, डांगी, दणायत, नायक दणायत, पाडगांवकार, नायक, पेडवे, कर्णिक, टेंभे, पंडित, पंडित खांडाळकर, चुंबडे, कोठारी, गावगोडकार, कलणकार, घांटे, दस्तीकर बाडी, तुडती, हेरेकर, चिंचरवडकार, सांगडकार, हेमाडी, शिरूर अशींय म्हाजनांचीं उपनांवां मेळटात.

ह्या देवस्थानांत वर्साचे बाराय म्हयने वेगवेगळे उत्सव मनयतात. तातुंतले कांय मुखेल अशे -

चैत्र : शुक्ल प्रतिपदा, कवळें गौडपादाचार्य मठ संस्थानाकडल्यान वसंतोत्सव, श्रीरामनम, वसंतपुजा.

वैशाख : अक्षय्यतृतीया लालखी उत्सव.

ज्येष्ठ : श्री लक्ष्मीनारायण प्रतिश्ठोत्सव.

श्रावण : नागपंचम शिबिकोत्सव.

भाद्रपद : मुक्ताभरणी व्रतोत्सव, अनंत व्रतोत्सव.

अश्विन : नवरात्रोत्सव, दसरो, कोजागिरी लालखी उत्सव.

कार्तिक : तुळशीलग्न आनी कालो, आंवळी भोजन (वद्य २मी), नोकरो ठणोतस्व (वद्य ५).

मार्गशीर्ष : पालखी आनी लालखी उत्सव (शुक्ल ५मी) आंवळी भोजन (वद्य ५ मी).

माघ : जात्रा, लालखी उत्सव, सांगड (नौकारोहणोत्सव सार्वजनीक महारूद्र, नित्यपुजा, पालखी उत्सव.

फाल्गून : श्रीपट्ट (प्रसाद पटा) प्रतिश्ठोत्सव (शुक्ल ७ मी). प्रतिश्ठोत्सव शुक्ल १० मी., लालखीउत्सव, पुनवेक शिगमो. तेभायर ह्या देवस्थानांत दर म्हयन्याच्या शुक्ल आनी वद्य ह्या दोनय पक्षांत पंचम हो दीस नित्योत्सवाचो आसा. ह्या दिसा रातचें पुराण, कीर्तन आदी कार्यक्रम जातकच श्री देवीची पालखेंल्यान मिरवणूक काडटात. देवळाच्या गाभाऱ्यांत मुख्यासनाचेर श्री शांतादुर्गा देवीची चतुर्भूज मूर्त आसा. तिच्या एका हातांत श्रीशिव आनी दुसऱ्या हातांत श्री विष्णु आसून ती श्रीजगदंबेची मूर्ती भगवान विष्णु आनी कैलासनाथ शंकर हांच्या झुजावेळार अवतीर्ण जाल्ल्या प्रसंगाचें द्योतक आसा.

श्री शांतादुर्गा देवीचे मूर्ती लागसारच स इंच आकाराचें काळ्या पाशाणाचें श्री शिवलींग आसा. देवीच्या मुखेल आसनाखाल विशिश्ट कृतीन तयार केल्लो धातुचो पट्टो बसयला. हाका प्रसाद पट्टो वा सिंहपट्टो म्हण्टात. ह्या पट्ट्याचेर प्रसाद पुजा लावन प्रार्थना मागणी करून प्रसाद - कौल घेतात.

श्री शांतादुर्गा देवीचे दावेवटेन लागसारच श्री नारायण देवाचें देवूळ आसून, त्या देवळांत मुख्यासनाचेर श्री नारायणदेव आनी थंयच श्री गणपती हांच्यो मूर्ती आसात. ह्या देवळाचे दावे वटेन पारिजातकाचो पार आसा. त्या पारार बारा वीर भगवतीची ल्हान मूर्त आसून लागींच दोन पादुका आसात. श्री शांतादुर्गा देवीच्या देवळामुखार महादाराचीं सोपणां आनी दीपस्तंभ हांचेमदीं श्रीक्षेत्रपाळाची शिळा आसा. देवळाच्या फाटल्यान दावेवटेनय एक व्हड शिळा आसा, तिका म्हारवाची शिळा म्हण्टात. देवळाच्या प्राकारांत प्रवेश करपाचें जें महादार नगारखान्याखाल आसा त्या महादाराचे दावेवटेन एक ल्हान देवूळ आसून तातूंत मूळ पुरूस कौशिक गोत्री लोमशमीची पाशाणी मूर्त स्थापन केल्ली आसा.

**श्री शांतादुर्गा देवस्थान - नानोडें :** गोंयच्या नानोडें वाठारांत आशिल्लें म्हत्वाचें देवस्थान. हें देवस्थान मुळचें बारदेसांतल्या कळंगूट ह्या गांवांत आशिल्लें. पूण पुर्तुगेजांच्या काळांत१५७७ वर्सा बाटाबाटीवेळार

श्री देवी महामाया कळंगुटकरीण हिका नानोडें गांवांत हाडली. हें मूळ देवस्थान कळंगूट हांगा रोयणीच्या रुपांत आशिल्लें. हें देवस्थान उध्वस्थ जावंचे चार दीस आदीं देवस्थानाचो मूळ पुजारी भिकूभट भस्कुरे हाका साक्षात्कार जालो. बाटाबाटीक लागून ती ह्या गांवाक विटल्या तेन्ना ती सांगता थंय तिका व्हर. तिणें सांगले तेप्रमाण भिकूभट नानोड्यां वचून स्थायीक जालो. श्री शांतादुर्गा महामाया कळंगुटकरीण ह्या दैवताभायर हांगा बारा आनुषांगीक दैवतांचो आस्पाव आसा.

श्री शांतादुर्गा महामाया हें मुखेल दैवत रोयणीच्या रुपांत आसा. ह्या देवळाचो कारभार महाजन मंडळ पळेता. हातूंत अगसारी नाईक, देसाई गाड, शेटये, सावंत, पोरोब, नाईक ह्या स वांगड्यांचो आस्पाव जाता. ह्या देशांत शिबिकोत्सव, जागर, नवरात्र, दसरो, कोजागिरी, श्रीलक्ष्मीनारायणाची जात्रा, कालो, मान्नी पुनव, शिगमो, संवत्सर प्रतिपदा, आदी उत्सव आनी देवकृत्यां जातात.

**श्री शांतादुर्गा कुंभारजुंवेकरीण - माशेल :** गोंयच्या फोंडें तालुक्यांतल्या माशेल वाठारांत आशिल्लें नामनेचें देवस्थान. तिका पुर्विल्ल्या काळांत ही सांतेरी ह्या नांवान वळखताले. पूण सद्या श्री शांतादुर्गा कुंभारजुंवेकरीण ह्याच नांवान तिका वळखतात. तिचें मूळ स्थान खोर्ली गांवच्या मादगादे वाड्यार आशिल्लें. पूण इ.स. १५४० वर्सा आदीं जेन्नां तिसवाडी वा गोंय जुंव्यावयलीं देवळां पुर्तुगेजांनी उध्वस्त करपाक सुरवात केली तेन्ना श्री पांडु नायक वडिये ह्या मुळच्या कुंभारजुंवेच्या मनशान श्री सांतेरी देवीची मूर्त लिपोवन हाडून आपल्या घरच्या देवाऱ्यांत दवरली. तो जरी कुंभारजुंवे वाठारांत रावतालो तरी ताचो वेपार - धंदो मादगादे हांगा श्री सांतेरी देवळालागसार आशिल्लो आनी ताची देवाचेर खर श्रध्दा आशिल्ली. फुडें बाटाबाटीच्या वेळार प्रसंगावधान राखून ताणें कुभारजुंवे हांगा स्थापन केल्ल्या श्री सांतेरी देवीचें सोळाव्या शतमानांतच फोंडे म्हालाच्या वरगांव गांवांत माशेल वाड्यार स्थलांतर केलें. उपरांत हांगा कुभारजुंवेच्या सगळया रहिवाशांनी मेळून स्वखर्चान देवूळ बांदून तातूंत श्री सांतेरी देवीची प्रतिश्ठापना केली.

श्री देवी सांतेरी - श्री शांतादुर्गा कुंभारजुंवेकरीण ही सगळया कुंभारजुंवे ग्रामवासीयांची ग्राम देवता आसून तिचो सगळयांत व्हड आनी म्हत्वाचो उत्सव म्हळयार हे देवीची पालखी माशेलांतल्यान दर वर्सा कुंभारजुंव्यां, आपल्या मूळ गांवांत येता आनी थंयच्या ग्रामवासी हिंदू लोकांच्या घरांत मिरवणुकीन थंयच्या लोकांकडल्यान पुजा अर्चा स्विकारता. उपरांत परत आपले सुवातेर वता. हो काळ फाल्गून म्हयन्याचे निमाणे आनी चैत्र म्हयन्याचे सुरवेचे दीस आसतात. ज्या दिसा ही पालखी परत माशेलांत पावता त्या दीसा संप्रोक्षण विधी जातकच चैत्र शुक्ल पंचमीच्या उत्सवाचो कार्यक्रम मनयतात.

श्री क्षेत्र माशेल हांगा मुखेल देवळांत मुख्यासनार श्री शांतादुर्गा कुंभारजुंवेकरीण, गर्भकुडीभायर दाराचे उजवेवटेन एका चौकांत लिंगरुपी श्री ग्रामपुरूस, देवळाचे उजवेवटेन वेगळया देवळांत श्री रवळनाथ, कुंभारजुंवें गांवांत 'गावांत' नांवाच्या वाड्यार रामायसती नांवान वळखुपांत येवपी दोन मूर्ती आसात. ह्या देवळाचे दावे वटेन ल्हानशा देवळांत 'गाडवंस' नांवाचें दैवत आसा. हीं सगळीं श्री शांतादुर्गा कुंभारजुंवेकरीण देवीचीं सहपरिवार दैवतां आसात.

श्री शांतादुर्गा देवीचो पालखी उत्सव वा शिबिकोत्सव दर म्हयन्याच्या शुक्ल ५ मी. तशेंच वद्य ५ मी. दिसा अशे दोन खेपो नेमान जाता. तेभायर हेर सगळयो सण परबो ह्या देवळांत मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**शांती :** अरिश्ट - निवारणाखातीर आशिल्लो एक धर्मीक विधी. हे विशीं श्लोक असो -

*यथा शस्त्रप्रहाराणां कवचं विनिवारकम् ।*
*तथा दैवोपधातानां शान्तिर्भवति वारणम् ।।*

**अर्थ** - कवच जशें शस्त्रप्रहारापासून राखण करता तशेंच शांती केल्या उपरांत दैवी उपघातांचें निवारण जाता.

कसल्याय हेतूखातीर वा कारणाखातीर खंयची शांत करची तें मत्स्य पुराणांत विस्कटावन सांगलां, तें अशें -

१. अभया : संकट आनी भंयाचो परिहार.
२. सौम्या : व्याधी - पिडेची सोडणूक.
३. वैष्णवी : दुकळ आनी चोरांच्या भंयापासून मुक्ती.
४. रौद्री : गोरवांक धार्मीत अभय.
५. ब्राह्मी : धर्मसंकट निवारण.
६. वायवी : वातविकार परिहार.
७. वारुणी : दुकळ आनी अपसरणबंदी
८. भार्गवी : शापाच्या भंया पासून मुक्ती.
९. प्राजापत्या : गर्भाची राखण.
१०. त्वाष्ट्री : भाजीपाल्याक रोगापासून सुटका.
११. कौमारी : भुरग्याक भलायकी प्राप्ती.
१२. आग्नेयी : उज्यापासून संरक्षण.
१३. नैर्ऋती : भूत पिशाचांचे बाधेपसून मुक्ती.
१४. याम्या : वायट सपनांपासून सुटका.
१५. कौबेरी : धन संरक्षण आनी
१६. पार्थिवी : झाडां, भूंय हांचें संवर्धन.

शांती करपाखातीर शुभ म्हूर्त पळयतात. हो म्हूर्त म्हणजे अग्नी आनी आहुती, हांची बरी युती. हो म्हूर्त तीथ, वार आनी नक्षत्र हांच्या गणितान कळटा. म्हुर्ताप्रमाण अग्नी मेळूंक जाय तशेंच आहुतीय बऱ्या ग्रहांच्या तोंडांत पडपाक जाय.

शांती जायत्या तरांच्यो आसल्यो तरीय जननशांती आनी

मरणशांती ह्यो चड प्रचलित आसात. दर एके शांतिच्यो देवताय वेगवेगळयो आसात. शांतींत मुखेल देवतांवांगडा नवग्रह देवतांचेंय आवाहन जाता. पुजना उपरांत जप आनी होम - हवन जाता.

हवनाच्या सामग्री प्रमाण ल्हान - व्हड कूंड (होम - हवन करपाचो अग्नी पवित्र दवरपाखातीर बांदून काडिल्ली चवकोनी बांदावळ) आसता. अनिश्ट देवतांच्या नांवानय वेग वेगळया जिनसांचें हवन जाता.

तातूंत तूप, समिधा (यज्ञांत आहुती दिवपाच्यो रुखाच्यो बडयो) चरु (शीत) वा एकाद्र्या खास अशा द्रव्याचो (जिनसाचो) आस्पाव जाता. अनिश्ट देवतांक शिताचे वा पिठाचे बली दिवन तृप्त करतात आनी तांचेकडल्यान अभय मागतात.

जननशांती चडकरून दुश्ट जल्मकाळापसून उपरासतात. भुरग्याचो जल्मकाळ जर वायट आसत जाल्यार जननशांती विधींत भुरग्याक सुपांत दवरून ताका गायक हुंगपाक दितात आनी त्या भुरग्याचो गायच्या तोंडांतल्यान जल्म जाला अशी भावना करतात. ही जननशांती भुरगेपणांत करपाची आसता. कारण व्हड जातकच तिचो गूण मेळना, अशें शास्त्र सांगता. तशेंच सुरवेक कांय कारणांक लागून जननशांती करपाची दखल घेतली ना तरी फुडें विवाह योग जुळना जालो वा भलायकेंत सतत बिघाड जावपाक लागले जाल्यार चड करून जननशांती करप जाता.

मरण शांती वा शांतोदर मरणाच्या बाराव्या दिसा करतात. हिका कूंड आसना. तर तांदळांचे राशीचेर एक घर स्थापन करून तातुंतलें उदक शांतिसूक्तांनी अभिमंत्रीत करून तें उदक घरांतल्या मनशांचेर फाफुडटात. अशें करून घरांतल्या अशुभाचो परिहार जाता अशें मानतात.

त्रिपाद स नक्षत्रां आनी पंचक साडेचार नक्षत्रांचेर मरण आयल्यार निधन शांती करतात. ही शांती यज्ञासारखी करतात. त्रिपाद शांत केलीना जाल्यार घरांत एका फाटोफाट तीन मरणां जातलीं आनी पंचक नक्षत्र मरण शांती केली ना जाल्यार घरांत एका फाटोफाट पांच मरणां जातलीं अशें शास्त्रांत सांगिल्ल्यान हिंदूधर्मांत ह्यो शांती मुखेलपणान करप जातात.

होम - हवना बगरय पुजा, जप - जाप्य, दान धर्म करूनय दुश्ट शक्तींची शांती करपाचे आनीकय मार्ग आसात.

- अच्युत तोटेकार

**शाकद्वीप :** सात जुंव्यांतलो एक जुंवो. ताचो विस्तार जंबुद्वीपाच्या दुपटीन आनी परीघ तिपटीन आसा. हांगा मेरू, चंद्र, नारद, दुंदुभी, अस्त्र, झंबिके आनी बिभ्राज हे दोंगर आसात. ह्या दोंगराचें एक तोंक क्षारदर्यांत जाल्यार दुसरें तोंक क्षीर दर्यांत देंवलां. शाक नांवाच्या झाडावयल्यान जुंव्याक शाकद्वीप हें नांव मेळ्ळां. सुकुमारी, नंदा, पावनी, शिशिका, ईक्षू, रेणुका आनी सुकृता अशो सात न्हंयो हातुंतल्यान व्हांवतात. ह्या जुंव्यावयले लोक निरोगी, दीर्घायू आनी बळिश्ट आसात. हांगाची धर्मव्यवेवस्था त्रेतायुगांतल्यासारकी आसा, अशें ह्या जुव्याचें वर्णन मत्स्य पुराणांत दिलां.

पुर्विल्ल्या काळांत प्रियव्रताचो पूत मेधातिथी हो शाकद्वीपाचेर राज्य करतालो. पिरायेच्या शेवटाक ताणें हो जुंवो आपल्या सात पुतांक वांटून दिले आनी त्या सातय पुतांच्या नांवा वयल्यान ते सातूय भाग प्रसिद्द जाले. शाक आनी सागाचीं झाडां हें ह्या जुंव्याचें खाशेलपण आसलें.

- कों. वि. सं. मं.

**शाक्त पंथ :** शक्तीची उपासना करप्यांक शाक्त आनी तांच्या धर्म - तत्त्वज्ञानाक शाक्तमत वा पंथ म्हण्टात. ह्या पंथांत परमेश्वराची वा परमतत्त्वाची कल्पना बायलेच्या रुपांत करतात. ह्या बायलेच्या रुपाक ते शक्ती म्हण्टात. दुर्गा, त्रिपुरसुंदरी, ललिता, महाभैरवी, आनंदभैरवी अशा जायत्या नांवांनी ते शक्तीक भजतात.

शाक्तपंथांत शक्तीची उपासना करपाच्यो तीन मुखेल पद्दती आसात - १) सामान्य शिश्ट पद्वत : हातूंत शक्तीची पुजा करतात आनी ही पद्वत पुरायपणान अहिंसक आसा.

२) भिरांकुळ पद्वत : हातूंत देवीक पशूबली म्हत्वाचो मानतात. पुर्विल्ल्या काळांत नरबळीय दिताले. हे उपासनेचो संबंद कापालिक आनी कालामुख ह्या उग्र शैवांकडेन आसा.

३) भावात्मक पद्वत : हे पुजेंत भक्त देवतेकडेन आपलें तादात्म्य स्थापन करून शक्तीची पुजा करता. हे पद्वतीची उपासना करप्यांकच मुखेलपणान शाक्त अशें म्हण्टात. शाक्त मार्ग उपासनाप्रधान आसून, मोक्षप्राप्ती हें तांचें ध्येय आसा. उपासना आनी ज्ञान हे शाक्तशास्त्राचे मुखेल विशय आसात.

शाक्तांनी आपल्या पंथांखातीर जायतें साहित्य निर्माण केलें. इतिहासीक नदरेन अशा साहित्याचे सादारणपणान तीन कालविभाग करूं येतात -

**१) बुध्दापयलींचो काळ :** ह्या काळांतलें साहित्य ग्रंथ आनी उत्खननांतल्यान मेळिल्लें अशें दोन तरांचें आसा. चारूय वेद, ब्राह्मणां, आरण्यकां, सुत्रां आनी उपनिशदां हे त्या काळांतले मुखेल ग्रंथ आसात. जातूंत शाक्तपंथाची म्हायती सांपडटा. तशेंच त्रिपुरा, त्रिपुरातापिनी, देवी, भावना, सौभाग्यलक्ष्मी, सीता, कौल, काली, तारा सारकिल्लीं उपनिशदांय शाक्त उपासनेखातीर निर्माण जाल्यांत. मोहेंजोदाडो आनी हडप्पा हांगाच्या उत्खननांतल्यानय देवी - उपासनेच्या पोरनेपणाविशींचे पुरावे मेळटात.

**२) बुध्दोत्तर काळ :** ह्या काळांत शक्तिविशयक साहित्याचो बरोच विस्तार जालो. वैदिक कर्मकांड मूर्तिनिरपेक्ष आशिल्लें, तें ह्या

काळांत मूर्तिसापेक्ष जालें. ताका लागून देवी उपासनेंत पुजा, जप, ध्यान सारकिल्ल्या गजालिंचो आस्पाव जालो. ह्या काळांत शिव, शक्ती आनी विष्णु ह्या तिगांच्योय उपासना तंत्रबध्द जाल्यो. ह्या व्हडल्या कालखंडांतल्या फकत शाक्तांच्या साहित्याचो विचार करपाचो जाल्यार ताचे चार भाग जातात. ते म्हणजे १) सूत्र साहित्य, २) आगमग्रंथ, ३) पुराणां आनी ४) स्तोत्र साहित्य.

**३) शंकराचार्योत्तर काळ :** ह्या कालखंडांत पुराणांचीं परिवर्धित संस्करणां जावन गेल्लीं. ह्या पुराणांत मुखेलपणान शिव, देवी आनी विष्णु हांचें माहात्म्य आनी उपासना - विधान वर्णन केल्लें आसा. वैश्णव पुराणांतय विष्णु आनी ताची शक्ती हांचो अभेद वर्णिल्लो आसा. तशेंच कालिकापुराण, देवी भागवत, मार्कंडेयपुराण, सूतसंहिता सारकिल्ल्या ग्रंथ शक्तीचे उपासनेकच व्हडपण दितात.

शंकराचार्यान देवीचीं जायतीं स्तोत्रां रचिल्लीं आसून तातूंत सौंदर्यलहरी हें प्रसिद्द आसा. बाणभट्टाचें चंडी शतक, मूक कवीचें पंचशती, लघुपंचस्तवी, जायत्या नांवाच्यो लहरी, सहस्त्रनामां हांचो सगळ्यांचो स्तोत्रसाहित्यांत आस्पाव जाता. ह्या स्तोत्रांतल्यान शाक्तयोग आनी शाक्ततत्त्वज्ञान हांची झलक मेळटा. तशेंच हिंदी साहित्याच्या सुरवेच्या काळांतूय शाक्तमताचो प्रभाव दिसतालो. पूण नाथ सिध्दाच्या काळांत मात अस्सल शाक्त मत विकृत जाल्लें.

शाक्तांच्या वेगवेगळ्या ग्रंथांत सैमनिर्मितीविशीं वेगवेगळीं मतां दिसतात. पूण तांचे विचारप्रणालींत जरी वेगळेपण दिसलें तरी तातूंत एक सुसंगत अशें तत्त्व आसा. शाक्त हे अद्वैती आसले तरीय तांणी परिणामवाद आपणावन आपल्या अद्वैताची उबारणी केली. देखुनच तांकां शक्तिविशिश्ट अद्वैती अशें म्हण्टात. तांच्या मतान आद्य शक्ति हें सैमाचें मूळ तत्त्व जावन आसा. ब्रह्मयाच्या हातांतल्यान सैमनिर्मितीचें काम जेन्ना सारकें जायना जालें तेन्ना ताणें तेविशीं शक्तीकडेन मागणें केलें. तेन्ना शक्तीन विमर्श वा स्फूर्त जावन बिंदूरूप धारण केलें. मागीर शिवान तेजाच्या रुपान त्या बिंदूंत प्रवेश केलो. तातुंतल्यानच नाद नांवाचें तत्त्व निर्माण जालें. नाद आनी बिंदू एकरूप जाल्याउपरांत तांकां अर्दनारीश्वर जांव संयुक्त बिंदू हें रूप फाव जालें. श्वेत बिंदू आनी रगत बिंदू अशे आनीकय दोन बिंदू शाक्त मानतात आनी तांकां बायल आनी दादलो म्हण्टात. हे दोनय मेळून कला निर्माण करतात. अशेतरेन संयुक्त बिंदू, रगत बिंदू आनी श्वेत बिंदू हे तीनय मेळून कामकलेक जल्म दितात. ह्या चारूय तत्त्वांच्या संयोगांतल्यान सैम उत्पन्न जाता. कामकला ही सैमाची नियामक शक्त जावन आसा.

शाक्तूय सांख्यांभाशेन ३६ तत्त्वां मानतात. ह्या तत्त्वांचे तीन विभाग जातात. शिवतत्त्व, विद्यातत्त्व आनी आत्मतत्त्व. शिवतत्त्वाचे दोन विभाग जातात. शिवतत्त्व आनी शक्तितत्त्व. विद्यातत्त्वांत सदाशिव, ईश्वर आनी शुध्द विद्या हीं तीन तत्त्वां येतात. आत्मतत्त्वांत ३१ तत्त्वां येतात. तीं म्हणजे आत्मो, माया, कला, विद्या, राग, काळ, नियती, पुरूश, प्रकृती, बुध्दी, अहंकार, पांच ज्ञानेंद्रियां, पांच कर्मेंद्रियां, पांच विशय आनी पंचमहाभूतां.

अंतर्याग आनी बहिर्याग हे शाक्तसाधनेचे वा शक्तिपुजेचे दोन मुखेल प्रकार आसात. अंतर्याग म्हणजे मानसपुजा वा योगीक साधना आनी बहिर्याग म्हणजे भायल्या सामग्रीन केल्ली पुजा. बहिर्यागाची साधना केल्याबगर अंतर्याग साध्य जायना. तशेंच शाक्त पंथांत तीन भाव आनी सात आचार मुखेल मानतात.

पशुभाव, वीरभाव आनी दिव्यभाव हे ते तीन भाव आसात. हे भाव म्हणजे साधकाच्यो तीन मानसिक अवस्था समजुच्यो. वेदाचार, वैष्णवाचार, शैवाचार, दक्षिणाचार, वामाचार, सिध्दान्ताचार आनी कौलाचार हे सात आचार आसात. हातुंतले पयले चार आचार पशुभावाखातीर, मागीरचे दोन आचार वीरभावाखातीर आनी निमणो कौलाचार दिव्य भावाखातीर आसा. आचार हे भायल्या आचरणाचे द्योतक आसात. समायाचार हो आनीक एक वेगळो आचार आसा. ह्या वेगवेगळ्या आचारांत कौलाचार आनी समयाचार हे दोन म्हत्वाचे आसात.

श्रीयंत्र हें शाक्त साधकांचें उपास्य प्रतीक. ताका सगळ्या देवतांचें शरीर आनी तातुंतल्या मंत्रांक त्या देवतांचो आत्मो मानतात. पिंडी ते ब्रह्मांडी असो शाक्तांचो सिध्दान्त आसा. श्रीयंत्राक त्रिपुरासुंदरीचेंय प्रतीक मानतात.

शक्तीचे उपासनेखातीर जायते आगम आनी तंत्रग्रंथ निर्माण जाल्ले आसात. दुर्गासप्तशती हो मार्कंडेय पुराणांतलो ग्रंथय तेचखातीर निर्माण जाल्लो आसून शाक्त उपासक ताचे उरफाटे - सुरफाटे सपल्लव, संपुट पद्दतीचे आनी अशा जायत्या तरांचे पाठ करतात. वेगवेगळे इत्सापुर्तीखातीरय पाठांच्यो पद्दती वेगवेगळ्यो आसात.

शाक्त तंत्रांचो आंकडो खूब व्हडलो आसा. तातुंतलीं जायतीं आजुनय प्रकाशित जावंक नात वा तीं मुद्दाम गुपीत दवरिल्लीं आसात. प्रकाशित तंत्रांवयल्यानय शाक्तांच्या सिध्दान्तांची वळख जाता.

शाक्तांनी भारत आनी आशिया महाद्वीप इतलोय वाठार तीन भागांनी वांटला. भारताचो उत्तर आनी उदेंत भाग म्हणजे विंध्येपसून चटगावमेरेनचे भुंयेक ते विष्णुक्रांत म्हण्टात, उत्तर - अस्तंत भागाक रथक्रांता म्हण्टात. हातूंत तिबेटाचोय आस्पाव जाता. विंध्येपसून दक्षिण दर्यामेरेनची भूंय ही अश्वक्रांता जावन आसा. ह्या तीन क्रांतींत ६४ तरांचीं तंत्रां प्रचलित आशिल्ल्याचें शाक्तांनी बरोवन दवरिल्लें आसा. तशेंच काश्मीर, कांची आनी कामाख्या हीं शाक्त पंथाचीं तीन मुखेल केंद्रां आसात.

शाक्तसाधना ही रहस्यसाधना आसा. हीं गुपितां गुरूमुखानच जाणून घेवपाचीं आसतात. शाक्तमत हें रहस्य जाणून घेतल्यार ताचीं फकाणां करपाक मेळनात. कारण तें एक प्रौढ गंभीर अशें दर्शन

आसा. साधनेच्या नांवाखाला चलपी वामाचारी लोकांची वायट वागणूक ही शक्तीसाधनेची एक विकृती जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**शाक्य :** एक पुर्विल्लो गण. ह्या गणाचें राज्य प्रजातंत्र आसून ताची राजधानी कपिलवस्तू आशिल्ली. शाक्य हे इक्ष्वाकुकुलोत्पन्न क्षत्रिय आशिल्ले. मनून तांकां व्रात्य क्षत्रिय म्हळां. शाक्यांची उत्पत्ती कशी जाली आनी तांकां शाक्य नांव कशें मेळळें तेविशींची कथा अशी आसा - अंबट्ठ नांवाचो राजा वाराणसींत राज्य करतालो. ताचे पयले राणयेक चार पूत आनी पांच धुवो आशिल्ल्यो. उपरांत त्या राजान दुसरें लग्न केलें. ते राणयेक पूत जाल्या उपरांत त्या पुताखातीर तिणें राज्य मागलें. पूण राजान तिची इत्सा मान्य केली ना. पूण आपल्या पयलींच्या भुरग्यांक नवे राणये पसून कांयच त्रास जांव नये म्हण तांकां ताणें वनवासाक धाडलीं आनी आपूण मेल्या उपरांत येवन राज्याचो ताबो घेवंक सांगलें. तीं णवूय भूरगीं वनवासाक वचपाक भायर सरलीं आनी कपिल ऋषीच्या आश्रमाकडे पावलीं. ऋषीच्या सांगण्यावयल्यान तांणी थंयच्या शाक (साल) रुखांचें रान कापून थंय नगर वसयलें. शाक रुखांवयल्यान त्या राजपुत्रांक शाक्य हें नांव पडलें. त्या रानांत तांकां फाव अशो चलयो मेळूंक नाशिल्ल्यान त्या राजपुत्रांनी आपल्या चार भयणींकडे लग्नां केलीं. व्हडली धूव पिया ही सगळ्यांची आवय जाली. त्या भुरग्यांपसून जो वंश निर्माण जालो तो शाक्य वंश अशी ह्या वंशाची आख्यायिका आसा. गौतम बुध्द ह्याच वंशांत जल्माक आयलो.

ह्या शाक्यांनी व्हडलें राज्य निर्माण केलें. बिहारांतल्या बस्ती जिल्ह्याचो उदेंत भाग, गोरखपूरचो अस्तंत भाग आनी बिहाराक तेंकून आशिल्ल्या नेपाळाचो कांय भाग शाक्याच्या राज्याचो विस्तार आसलो.

शाक्य लोक एकपत्नी आसताले. ते आपल्यो चलयो हेर गणांत दिनाशिल्ले. त्याकाळांत हेर गणांतल्या बायलांपरस शाक्य बायलांक चड स्वातंत्र्य आसतालें. त्यो अध्ययन करून शास्त्र चर्चेंत भाग घेताल्यो. शाक्यांनी कपिलवस्तूंत शस्त्र आनी शास्त्र हांचीं विद्यालयां स्थापन केल्लीं. तांच्यांतले जाण्टे मनीस एका संथागारांत बसून भौवमतान कायदे करताले आनी राज्य चलयताले. गांवचे लोक ग्राममुखेल्याची नेमणूक करताले. शाक्य लोक धार्मिक, अतिथ्यशील आनी अहिंसावादी आशिल्ले अशें युआन च्वांग म्हण्टा.

- कों. वि. सं. मं.

**शानभाग, माधव मंजुनाथ :** नामनेचो कोंकणी लेखक. ताचें एम्. ए.; एल्एल्. बी. मेरेन शिकप जाल्लें आनी कारवारचो नामनेचो वकील म्हणून लोक ताका वळखताले.

ज्या काळार शणै गोंयबाब आपले लिखणेच्या बळार कोंकणी समाजाक जाग हाडपाखातीर वावुरतालो, त्याच काळार माधव मंजुनाथ शानभाग कोंकणी मायेचो उलो कोंकणी मनशाच्या काळजांत रिगोवंक वावुरलो. कोंकणी समाजाक आपले मायभाशेची जाणविकाय जावची आनी तिचे उदरगतीखातीर तांणी पावलां मारचीं, ह्या ध्यासान तो कर्नाटकाच्या उत्तर - दक्षिण जिल्ह्यांनी खूब भोंवलो. कोंकणी परिशदेचो संस्थापक म्हणून ताका मान फाव जाला. कारवारांत १९३९ वर्सा जाल्ले पयले परिशदेचो तो कार्यवाह आशिल्लो. कोंकणी चळवळीसंबंदांत इतिहासीक म्हत्व आशिल्ली ही पयली परिशद घडोवन हाडपाक ताचें व्हडलें योगदान आसा.

ताच्या वावरांतल्यानच स्फूर्त घेवन फुडली पिळगी कोंकणीच्या वावरांत कार्यरत जाली. शणै गोंयबाबान आपलें 'आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें?' हें पुस्तक सर्गेस्त शानभागाक ओंपलां. हाचेवयल्यान ताच्या वावराचें मोल दिसून येता. १९८१ त काणकोणां जाल्ल्या ६ व्या अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचे सुवातेक ताचें नांव दिल्लें.

- कमलाकर द. म्हाळशी

**शाप :** एकाद्र्या मनशाचो नाश जावंचो वा ताका ख्यास्त मेळची हे भावनेन उच्चारिल्लीं वायट उतरां. एका मनशान दुसऱ्या मनशाचें वायट केलें वा त्रास दिलो जाल्यार ताका शाप दिवप जाता. शाप दिवपाची पद्दत जगांत सगळ्याक आसा. शाप दितना केन्ना केन्नाय हातांत उदक, उजो, जेवण आदी कितेंयं तरी वस्त घेवन शाप दिताले.

शाप दिवपाची चाल - चलणूक वेदकाळासावन भारतांत दिसून येता. ह्या शापाचो दुसऱ्याचेर वायट परिणाम जाता, तशेंच ताचो जीवलेगीत वचूं येता. देखून वैदिक आर्यांनी शापाचो निशेध केला. 'आमकां कांय कारणावयल्यान वा कारण नासतना शाप दिवपी मनीस वीज पडिल्ल्या रुखाभशेन जळून वचूं' अशें अथर्ववेदांत म्हळां.

शाप जसो व्यक्तीचो घात करता तसो राखणय करता. दमयंतीन आपली राखण जावंची म्हण शाप दिवन व्याधाक जळोवन उडयलो म्हणपाचीय एक देख आसा.

शाप भोगपी मनशाच्या वंशजाचेर लेगीत शापाचो परिणाम जाता. आपणे केल्ली आज्ञा भुरग्यांनी मानली ना म्हण विश्वामित्रान तांकां 'तुमची संतती नीच जातीपरस हलकी मानतले' असो शाप दिलो.

शाप पाळामुळांनी नाजाल्यार मंत्रांनी ना करूं येता अशी वैदिक ऋषींची धारणा आसा. देखून 'शाप दिवपी लोकांचो शाप तांकांच लागूं आनी आमच्या दुस्मानांचो नाश जांव. तशेंच दुस्मानाच्या शापापसून आमचे भाव सुखी जांव' अशी प्रार्थना अथर्ववेदांत सांपडटा.

मनीस आपले जिणेंत जायते शाप दिता आनी घेता. पूण

तांकां अर्थ ना. शाप दितल्यान शास्त्रांच्यो मर्यादा सांबाळपाक जाय आनी धर्माचे आज्ञेप्रमाण वागपाक जाय अशें महाभारतांतल्या गांधारी, कृष्ण, शांडिली, धर्मराज हांच्या शापावयल्यान दिसता.

बळगें आंगांत आसा म्हूण कोणेंय सहज शाप दिवंचो न्हय. जर समाजवेवस्थेचेर वायट परिणाम जाता, लोकजीणेचो नाश जाता जाल्यारच शाप दिवचो असो शापाचो उद्देश आसूंक जाय, म्हणपाचें रामायण, महाभारत आनी पुराणांतल्या गजालींतल्यान दिसता.

शापाचो परिणाम पयलीं कळना म्हणून कांय खेपे शाप दिले उपरांत उःशाप दितात. शाप मेळिल्लो आपली चूक मान्य करीत वा माफी मागत जाल्यारच उःशाप दिवप जातालो. अशा वेळार शाप दिवपी मनशाच्या मनांत दया येताली आनी तो उःशाप दितालो. चंद्राक दक्षान शाप दिल्ल्यान समाजजीण उध्वस्त जावपाचो प्रसंग आयिल्लो तेन्ना कांय अटींचेर ताका शापमुक्त केलो.

शाप हो दंड दिवपाची लेगीत एक शक्त आसा. ताकालागून पुर्विल्ल्या काळांत समाजाचेर खुबशें नियंत्रण आशिल्लें.

शाप नाशिल्लो जाल्यार समाज स्वैर आनी बंधन नाशिल्लेभाशेन जातलो आशिल्लो. रावणाक शापाचें भंय आशिल्ल्यान सीतेक तिच्या मनाआड तो आपणावंक शकलो ना.

शापाकलागून कांय बऱ्यो गजाली जाल्ल्योय दिश्टी पडटात. अर्जुनाक उर्वशीन दिल्लो शाप अज्ञातवासांत उपेगी पडलो. शाप हो जरी दुसऱ्याचें वायट जावचें म्हणून दिल्लो आसता तरी केन्ना केन्नाय तातुंतल्यान बरेंय जाल्लें दिसता.

- अनंत राम भट

**शाबू :** कपड्यांचो चिरखोल काडपाखातीर आनी आंग धुवपाखातीर वापरतात असो एक पदार्थ.

क्षार आनी चरबीयुक्त आम्ल (ॲसिड) हांच्या मिश्रणान हो पदार्थ तयार करतात. जनावरांची चरबी, दुकराची पातळ चरबी वा ऑलिव्ह झाड, नाल्ल, भिकणां हांच्या तेलापसून तयार केल्ली वनस्पतिजन्य चरबी आनी सोडा तशेंच पोटॅश हांच्या मिश्रणान शाबू तयार करतात. केन्नाय बोरॅक्स, नॅप्था, पूमाईस वा हेर खंयचोय निवळ करपी पदार्थाचो शाबू तयार करपाक उपेग करतात. शाबू निर्मिती मिश्रणांत वेगवेगळे रंग भरसून तयार केल्ले रंगरंगयाळे शाबू बाजारांत उपलब्ध आसात.

कपड्यांचो शाबू पिठो, कापां वा कांडी अशा स्वरुपांत मेळटा. आंगाक लावपाचो शाबू (टॉयलेट सोप) ही वडी (Flakes), पेस्ट (Paste) वा उदकासारको पातळ अशा वेगवेगळ्या स्वरुपांत मेळटा.

घट्ट शाबूंत आनी पातळ शाबूंत पोटॅश वापरतात. कपाशीचें तेल, ऑलिव्ह तेल हे सारखी चरबी वापरल्यार शाब्बांत मोवसाण येता.

ग्लिसरॉल वा साकर वापरून शाबू मद्याकांत (Alcohol) विरगळावन पारदर्शक शाबू तयार करतात.

युरोपांत ग्रीक लोक शाबू तयार करपाची कला फोनीशियन्स लोकांकडल्यान शिकले. फोनीशियन्स लोकांक ख्रिस्ती शतकापयलीं ६०० वर्सासावन शाबू तयार करपाची कला कळटाली. जगांत शाबू तयार करपाच्या पयल्या पेटंटाची १७ व्या शेंकड्यांत इंग्लंडात नोंदणी केल्ली.

म्हेळसाण नश्ट करून नितळसाण निर्माण करपाच्या शाबाच्या गुणांक लागून, कपडे आनी आंग नितळ करचे वांगडाच प्लास्टीक, धातू, शिमीट सारकिल्या आवरणावयली म्हेळसाण पयस करपाकय ताचो वापर जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**शाबूदाणो :** नाचण्याच्या आकाराचो वांटकुळो आनी धवो, गुळयेभाशेन खाद्यदाणो. लोक हाचे वेगवेगळे तरेचे जिनस करून खातात.

ह्या पदार्थाचीं झाडां मलाया, सयाम आनी आफ्रिकेच्या कांय भागांनी आसात. हीं झाडां चडशीं ऊंच जायनात. तांकां मुळा सावन खांदयो फुट्टात. झाडाचें खोड जून जाल्या उपरांत कापतात आनी ताचे कुडके करून तांची भायली दाट साल काडटात. तीं खोडां किसणीचेर किसतात. हो कीस एके शेनरेर वोतून ताचेर उदक फाफडून पांयांनी मस्तीतात. अशें केल्या उपरांत पिठासारकें धवें उदक भायर सरता. हें उदक एके टाकयेंत साठयतात. मागीर वयलें धवें उदक भायर वोतून पोंदा उरील्लें पीठ एका बारीक बुराक आशिल्ल्या धोतरार पातळायतात. हें धोतर एका लांब अशीर चुलीवयल्या लोखणी पत्र्याचेर दोन तीन फूट उंचायेर बांदतात. पत्र्यासकलय उजो घालून पत्रो तापोवन ताका दाणे दसचे न्हय म्हण एक स्निग्ध पदार्थ लायतात. उपरांत धोतराच्या सकयल्ल्या पत्र्यार दाणे पट्टात. ते रोखडेच सुकून येतात. हे सुकील्ले दाणे म्हळयार शाबूदाणे. शाबूदाण्यापासून जायते खाणाचे पदार्थ तयार करता. शाबूदाण्याची खिचडी हो एक लोकप्रिय प्रकार आसा. शाबूदाण्यांचें पचन सहजतायेन जाता आशिल्ल्यान, शाबूदाण्यांचे खाद्यप्रकार दुयेंत मनशाक तशें उपासाखातीर वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**शामराज :** (इ.स. चो १६ वो शेंकडो).

गोंयचो एक मराठी संत कवी. हो कौशिक गोत्री आसून तो साश्टींतल्या केळशी गांवांत रावतालो.

पंढरपूरचो गोविंद हो ताचो गुरू ताणें भागवताच्या दशमस्कंधांतल्या कंसवधामेरेनच्या भागाचेर, एकोणीस अध्यायांची

कृष्णचरित्रकथा रचल्या. तिचो काळ इ.स. १५२६ असो आसा.

ताचे कांय रोमन लिपींत बरयल्ले ग्रंथ ब्राग हांगाच्या ग्रंथालयांत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**शालिवाहन शक :** एक कालगणना. ख्रिस्ती शकाच्या ७८ व्या वर्सा कालियुगाचीं ३१७९ वर्सां जातकच हो शक सुरू जालो अशें मानतात. शालिवाहन शकाची सुरवात चैत्र शु. पाडव्याक जाता. पूण फक्त सौर मान चलपी प्रदेशांत हाचो आरंभ मेष संक्रांतीच्या आरंभापसून धरतात. दक्षिण भारतांत हाचे म्हयने अमान्त आनी उत्तर भारतांत पुर्णिमान्त आसतात. दक्षिण भारतांतले शिलालेख, तांब्यापटे, पोथयो, पुस्तकां आनी हेर कागदपत्रांनी हेच कालगणनेचो उल्लेख मेळटा. पंचांगांत आनी जल्मपत्रिका, हातूंत हाचोच उपेग करतात. उत्तर भारतांतल्या शेंकड्यांनी लेखांत हाचो उल्लेख मेळटा.

इ.स. च्या १३ व्या शेंकड्यांत देवगिरीच्या यादव राजांच्या मांडलिकांच्या एका लेखांत पयलेच खेप ताका शालिवाहन शक अशें नांव मेळ्ळें दिसता आनी ताचो शालिवाहन ह्या पुरातन राजाच्या नांवाकडे संबंद लायिल्लो मेळटा. तेन्नासावन ताका शालिवाहन शक म्हण्टात.

इ.स. च्या पयल्या शेंकड्यांत शालिवाहन वा सातवाहन नांवाच्या राजान हो शक स्थापन केला असो परंपरागत समज आसा. पूण ह्या राजान वा ताच्या खंयच्याय वंशजान हो शक चालू केला अशें दिसना. कारण खंयच्याच कोरांतिल्ल्या लेखांत ह्या शकाक धरून कालगणना केल्ली दिसना.

हे कालगणनेक शककाल वा शकनृपकाल म्हळां. तशेंच ताच्या वर्सांक शकवर्ष, शकनृपतिसंवत्सर वा शकनृपतिराज्याभिशेक संवत्सर अशीं उल्लेखल्यांत. ह्या काळाचो संस्थापक शक राजा कोण वा खंयचो हेविशीं विद्वानांत मतभेद आसात. पूण कांय अभ्यासकांच्या मतान तो कुशाणवंशी कनिष्क आसुंये. हाणें स्थापिल्ल्या शकाचो उपेग ताच्या हुविष्क, वासुदेव ह्या वंशजांनी आपल्या लेखांत केला. हेच कालगणनेचो फुडें शक राजांनी उपेग केल्ल्यान तिका शक हें नांव पडलें आसुंये. कुशाणवंशाचो अस्त जातकच उत्तर भारतांत ही कालगणना चड तिगली ना. पूण दक्षिण भारतांत मात ह्या शकसंवतान आपलो जम बसोवंक सुरवात केली. चालुक्यांच्या साम्राज्याबरोबर शकसंवताचोय ल्हव ल्हव प्रसार जालो. तेन्नासावन हो संवत ह्या प्रांतांत चलता. चालुक्यांनी ह्या शकसंवताचो उपेग केलो तरी तांणी तो संवत आपलो नासून, शकांचो वा शक राजांचो आशिल्लो असो स्पश्ट उल्लेख केला.

- कों. वि. सं. मं.

**सेंट शाव्हियॅर, फ्रांसिश्कु :** (जल्म : ७ एप्रिल १५०६, कॅसल ऑफ झेव्हीयर, नाव्हार - स्पेन; मरण : ३ डिसेंबर १५५२, सेनसियन (Sancian) - चीन).

नामनेचो किरिस्तांव संत आनी धर्मप्रसारक. ताच्या बापायचें नांव जुआन द यास जाल्यार आवयचें मारिया आझ्नारेझ द सादा अशें आशिल्लें. आपल्या स भावंडांमदीं तो सगळ्यांत ल्हान आशिल्लो. ताच्या बापायक १५१५ वर्सा आनी आवयक १५२१ वर्सा मरण आयलें.

ताका दवरपाक आयिल्ल्या 'शाव्हियॅर' ह्या उतराक व्हड अर्थ आसा. ताची मायभास 'बास्क' (Basque) हे भाशेंत ह्या उतराचो अर्थ 'नवें घर' असो जाता.

सन १५२५ त फ्रांसिश्कु शाव्हियेर पॅरिस विश्वविद्यालयांतल्यान मेट्रीकची परिक्षा पास जालो. उपरांत सेंट बारबाराचे युनिव्हर्सिटी कॉलेजींत ताणें आपलें उंचेलें शिकप चालू दवरलें. पीटर फाव्रू हो भुरगो ताचेवांगडा थंयच्या वसतीघरांत रावतालो. सन १५२८ त इग्नीशियश लॉयोला ताचेवांगडा रावपाक लागलो.

सन १५३० त शाव्हियॅरान 'माजिस्तॅर' ही पदवी जोडली (सद्या ही पदवी पी.एच. डी. च्या पांवड्याची आसा). सन १५३३ त तो लॉयोलाचो शिश्य जालो. १५ ऑगस्ट १५३४ त लॉयोलान शाव्हियॅरा फाव्रू आनी हेर चौगांक वांगडा घेवन एक मंडळ घडयलें. फुडें ह्या मंडळाक लागून सन १५४० त (सप्टेंबर) ''सोसायटी ऑफ जिझसची'' स्थापणूक जाली. सन १५३७ त ह्या मंडळान जेरूसलेमाचे पवित्र भुंयेचेर वचपाचें थारायलें. व्हेनीस आनी तुर्कीमदीं चलिल्ल्या झुजाक लागून तांकां आपली भोंवडी थांबोवची पडली. व्हेनिसांत, शाव्हियॅर धर्मगुरू जालो. उपरांत तो रोमांत गेलो. थंय ताणें स्वतारवातीर एक नवी आचार संहिता तयार केली. हे आचार संहिते प्रमाण ताणें काम केलें. आपलो पुराय दीस ताणें फांतोडेवयली प्रार्थना, प्रार्थनासभा, गाराणी आयकप, वायटकाराक आदार दिवप, बंदखणींतल्या कैद्याची वासपूस करप, गरिबांक पालव दिवप, भौशिक सुवातींनी प्रवचनां दिवप, ल्हान भुरग्यांक शिकोवप आनी देख लावप सारक्या कार्यावळींनी वांटून घाल्लो.

ह्याच काळांत पुर्तुगालचो किंग जॉन (तिसरो) (१५२१ - ५७) हाणें पोपाकडेन 'उदेंतेच्या वाठारांत' मिशनरी वावरारवातीर एक पंगड धाडचो अशें मागलें. पोपान लॉयोलाकडेन तेविशीं उलोवणी करून सायमन रोड्रीगिश आनी बॉबादिला हांकां ह्या वावरारवातीर ह्या वाठारांत धाडपारवातीर मान्यताय घेतली. पूण बॉबादिला हो अचकीत दुयेंत पडलो आनी फ्रांसीस शाव्हियॅराक त्या जाग्यार वचचो पडलो. मार्च १५४० त शाव्हियॅर आनी रोद्रीगीश पुर्तुगालाक गेले. थंयच्यान ते एका तारवान भारतांत येवपाचे आशिल्ले. पुर्तुगालांत आसतना दोगांनीय मनीसपणाचे भावनेन जो धर्मीक वावर केलो ताचेर राजा चार्लस खूब खोशी जालो. ताणें दोगांकय पुर्तुगालांत

रावात अशें सागलें. रोद्रीगीश रावलो. पूण शाव्हियॅर गव्हर्नर मार्टीम आफोंस द सौझा हाचे ध्वज - नौकेंतल्यान ७ एप्रिल १५४१ ह्या दिसा भारतांत येवपाक भायर सरलो.

शाव्हियेर ६ मे १५४२ ह्या दिसा गोंयांत पावलो. गोंयचे परस दक्षिणेंतलें कोची आनी दर्यादिगेवयलो वाठार हे ताच्या मिशनरी वावराचें मुखेल ठाणें आशिल्लें. ऑक्टोबर १५४२ ते नोव्हेंबर १५४३, फेब्रुवारी ते नोव्हेंबर १५४४ आनी फेब्रुवारी १५४८ त तो दर्यादिगेवयल्या वाठारांत आशिल्लो. सिलोन (श्रीलंका) मलाक्का, मोलुकास आनी जपान हे वाठारय ताच्या मिशनरी वावराचीं मुखेल ठाणीं आशिल्लीं. जुलय १५४५, १५४९, १५५१ आनी १५५२ त मलाक्कांत तर १५४९ ते १५५१ मेरेन जपानांत ताचो राबितो आशिल्लो. ह्या काळांत ताणें हजारांनी लोकांचीं धर्मांतरां केल्लीं. अदीं मदीं गोंय आनी कोचीक ताणें जायत्यो भेटी दिल्यो. गोंयांत ताणें सेंट पॉल कॉलेज आनी सेमिनारीचें प्रशासन वेवस्थीत करपाकडेन लक्ष दिलें. कोचीत ताणें सिरीयन किरिस्तांव आनी कॅथोलीक पंथीय हांचे मदीं एकवट सादपाचो यत्न केलो. एप्रिल १५५२ त ताणें गोंयच्यान चीन देशांत वचपाचें थारायलें. ताच्या वांगडा चीनाच्या राजाचो राजदूत आशिल्लो. मलाक्काक पावतकच तारवाच्या मुखेल्यान राजदूत आनी हेर प्रतिनिधींक फुडें व्हरपाक न्हंयकार दिलो. शाव्हियॅर एकलोच मुखार गेलो आनी ऑगस्ट म्हयन्यांत चीनांतल्या सानसियान जुंव्यार पावलो. ह्या जुंव्यावयल्यान ताका मुखेल जाग्यार व्हरपावातीर ताणें जायत्या जाणांकडेन मागलें. पूण कोणूच तयार जालो ना. निमाणें नोव्हेंबर म्हयन्यांत तो दुयेंत पडलो आनी ३ डिसेंबर १५५२ ह्या दिसा संवसाराक अंतरलो. शाव्हियॅराची कूड ताच्या भारतीय चाकरांनी आनी धर्म बदलिल्ल्या चिनी लोकांनी त्याच जुंव्यार पुरली. ताची कूड शवपेटयेंत (काशांव) ल्यान दोन चुन्याचे थर घालून दवरली. जेन्ना हो काशांव १७ फेब्रुवारी १५५३ ह्या दिसा उस्तून काडपाक आयलो तेन्ना शाव्हियॅराची कूड जशी पुरिल्ली तशीच आशिल्ली. ही कूड फुडें मलाक्कांत व्हरून काशांवाबगर पुरली. १५ ऑगस्ट १५५३ ह्या दिसा ही कूड परतून उस्तून काडली आनी थंयच्यान गोंयांत हाडली. १६ मार्च १५५३ ह्या दिसा ही कूड गोंयांत पावली आनी १६१३ मेरेन सेंट पॉल कॉलेजींत सांबाळून दवरली. उपरांत थंयच्यान ती बाँ जेजूच्या प्रोफेसड हाउसांत व्हेली. सन १६२४ त बाँ जेजूचे इगर्जेंत शाव्हीयॅराची कूड दवरली. आयज ती थंयच आसा. सन १६२२ त 'संत' ही पदवी फ्रांसिश्कु शाव्हियॅराक दिली. सन १६६३ त देवकार्य करपी पवित्र समाजान (Sacred Congregation of Rites) 'भारताचो प्रेषीत' (Apostle of the Indies) म्हणून ताचो भोवमान केलो.

गोंयांत दर वर्सा ३ डिसेंबराक ताचे यादीक फेस्त जाता. गोंयच्या धर्मीक भौशिक उत्सवांतलें हें एक नामनेचें फेस्त आसा. किरिस्तांव धर्मीयां वांगडाच हेर धर्मांचेय लोक ह्या फेस्ताक उपस्थित रावतात. थारावीक काळांत आनी खाशेले पर्वणीवेळार संत शाव्हियॅर फ्रांसिश्कुची कूड आशिल्ली पेटी लोकदर्शनाखातीर उक्ती दवरतात. बाकीच्या काळांत ती बंद आसता.

- डॉ. बी. एस. शास्त्री

**शास्त्रां :** शास्त्र हो शास् ह्या धातूवयल्यान तयार जाल्लो शब्द. 'शिष्यते अनेन इति शास्त्रं' अशी ताची व्युत्पत्ती आसा. शिकोवप, शिक्षण दिवप, शासन दिवप, बराबर करप, सांगप अशे शास् धातुचे जायते अर्थ आसात. तशेंच शास्त्र ह्या शब्दाचे आज्ञा, नेम, विधी, धर्माची आज्ञा, विद्येचो विभाग सारकिल्ले जायते अर्थ आसात.

**शास्त्र शब्दाच्यो दोन व्याख्या मेळटात -**

प्रवृत्तिश्च निवृत्तिश्च पुंसां येनोपदिश्यते ।
तध्दर्माश्चोपदिश्यन्ते शास्त्रं शास्त्रविदो विदु ः ।।

**अर्थ -** मनशाच्या कर्माकिडेन प्रवृत्ती आनी निवृत्ती तशेंच मनशाचे धर्म ह्यो गजाली जातूंत सांगल्यात ताका शास्त्र अशें म्हण्टात.

अनेकसंशयोच्छेदि परोक्षार्थस्य दर्शकम् ।
सर्वस्य लोचनं शास्त्रं यस्य नास्त्यन्ध एव सः ।।

**अर्थ -** शास्त्र खुबशा संशयांचें निराकरण करता. तशेंच अगम्य अशा परोक्ष विशयाचें दर्शन घडयता. ताका लागून शास्त्र होच सगळयांचो दोळो. तो मनशाक मेळ्ळो नाजाल्यार कुड्डोच म्हणपाचो.

हाचेवयल्यान शास्त्राक 'दर्शन' अशें दुसरें नांव मेळ्ळें. दर्शन शब्दाची व्युत्पत्ती 'दृश्यते यत्, दृश्यते अनेन इति' अशी आसा. हांगा 'दृश्यते अनेन' अशी व्युत्पत्ती घेतल्यार हो शब्द वयल्या दुसऱ्या शब्दांत सांगिल्ल्या अर्थाक बरोबर बसता. म्हणून दर्शन म्हळयार शास्त्र असो अर्थ जावन न्याय, वैशेषिक, सांख्य, योग मीमांसा आनी वेदांत ह्या स शास्त्रांक दर्शनां म्हणपांत येवंक लागले. ह्या स दर्शनांक वैदिक जाल्यार चार्वाक, बौध्द, जैन आदी दर्शनांक म्हळयार शास्त्रांक अवैदिक म्हण्टात. न्याय, वैशेषिक ह्या शब्दांच्या शेवटाक शास्त्र हो शब्द लावपांत येवन न्यायशास्त्र, वैशेषिकशास्त्र हे शब्द वापरांत येतात. तांकां दर्शनलेगीत शब्द लावपांत येता, देखीक न्यायदर्शन आदी.

हीं शास्त्रां साधक - बाधक गजालींची चर्चा करून आपआपले सिध्दान्त मांडटात. कांय शास्त्रांची थोडक्यांत म्हायती अशी -

**न्याय :** स शास्त्रांतलें एक शास्त्र. न्यायाचें प्रतिपादन करप हो ताचो विशय. 'प्रमाणैरर्थ परीक्षणं न्याय :' अशी ताची व्याख्या वात्स्यायनान न्यायभाशेंत केल्ली आसा. प्रमाणांनी प्रमेय वस्तुचो आनी प्रमाणांचो खोलायेन विचार करप हो ताचो उद्देश. हाका 'आन्वीक्षिकी विद्या' अशें दुसरेंय नांव आसा. ह्या आन्वीक्षिकी विद्येचे दोन अर्थ आसात. पयलो प्रत्यक्ष आनी आगम हांचेर आदारला जाल्यार दुसरो प्रत्यक्ष आनी शब्दप्रमाण हांचेर आदारला. हें सगळें शास्त्र तर्काचेर,

अनुमानाचेर आदारिल्लें आसता म्हणून हांकां अनुमान शास्त्र अशेंच म्हण्टात.

**वैशेषिक :** हाका कणाद वा औलूक्यदर्शन अशेंय म्हण्टात. हीं दोनय नांवां उलूक ऋषीचो पूत कणाद हाच्या नांवावयल्यान पडल्यांत. कणाद हो ह्या शास्त्राचो आद्य प्रवर्तक. 'विशेष' नांवाच्या एका पदार्थाची ह्या दर्शनांत कल्पना केल्ली आशिल्ल्यान ह्या शास्त्राक 'वैशेषिक' अशें नांव मेळ्ळां. शब्दांचो खरो निर्णय घेवपाक पाणिनीय व्याकरणाचो जसो उपेग जाता तसो पदार्थाच्या स्वरुपाचो निर्णय योग्य तरेन घेवपाक वैशेषिक शास्त्राचो उपेग जाता.

**सांख्य :** कपिल हो सांख्य दर्शनाचो प्रवर्तक. उपनिषदांत वर्णन केल्ल्या सांख्य सिध्दान्ताचें हाणेंच पयलीं शास्त्रीय विवेचन केलें आनी सांख्य शास्त्राक प्रतिश्ठा मेळोवन दिली. हाणें 'तत्त्वसमास' आनी 'सांख्यसूत्र' अशे दोन ग्रंथ बरयले. तशेंच ताणें तत्त्वांची गणना करून आपलें मत मांडलें. 'गणना' ह्या उतराक दुसरो पर्यायवाची शब्द 'संख्या'. हाचेवयल्यान हाच्या शास्त्राक 'सांख्य' हें नांव पडलें.

**योग :** 'योग' हें उतर 'युज्' ह्या धातूपसून तयार जालां. युज् धातूक करणार्थक 'अ' प्रत्यय लागून 'योग' उतर सिध्द जालां. हाचो वापर चडकरून सांख्य शास्त्राच्या आदारान येता. कारण ह्या दोनांत खुबशें सारकेंपण आसा.

योगशास्त्र हें एक अणभवान सिध्द जाल्लें शास्त्र. तें भारतीय लोकांचें सगळ्यांत व्हड अशें धन. पुर्विल्ल्या ऋषी - मुनींक अंतर्दृश्टि उत्पन्न जावन जें आंतरिक ज्ञान जालें ताका योग होच सगळ्यांत मुखेल कारण जावन आसा. योगाच्या साधकाक रोग जायना, म्हातारपण येना आनी मरण येना अशें श्वेताश्वतरोपनिषदांत सांगलां.

**मीमांसा :** 'मीमांसा' हातूंत 'मान्' धातू आसा. ताचो अर्थ पुजा वा विरोध करप. ताका इच्छार्थक 'सन्' प्रत्यय लावन भावार्थक 'अ' प्रत्यय लायिल्लो आसा. अशे तरेन पुजा वा विरोध करपाची इत्सा असो ह्या उतराचो अर्थ जाता. श्रुतिवाक्यांनी हें उतर वापरिल्लें आसा -

'महाश्रोत्रिया : समेत्य मीमांसा चक्रु :

कोनु आत्मा कोनु ब्रह्मेति ।'

(महाविद्वान लोक एकठांय येवन आत्मा आनी ब्रह्म म्हळयार कितें हाची मीमांसा करपाक लागले). विचारपूर्वक तत्त्व निर्णय करप हें मीमांसेचें लक्षण. परस्पर विरोधी दिसपी वेदमंत्राच्या अर्थांतलो विरोध पयस करून तांचो यथार्थ निर्णय करप हाकाच मीमांसा म्हण्टात.

**वेदान्त :** वेदान्तशास्त्र भारतीय अध्यात्मशास्त्रांत वयल्या पांवड्यावयलें शास्त्र जावन आसा. हें शास्त्र उपनिषदांतल्या सिध्दान्ताचेर आदारीत आसा. उपनिषदांतल्या गूढ वैदिक सिध्दान्ताचें हें शास्त्र प्रतिपादन करता म्हणून वेदांचो निमणो भाग अशें ताचें वर्णन केलां.

वेद + अन्त म्हळयार वेदांच्या विचारसरणीचो निमणो टप्पो. वेदांच्या सिध्दान्तांचें निमणें दर्शन ह्या शास्त्रांत जाता म्हणून ह्या शास्त्राक वेदान्त शास्त्र, वेदान्तदर्शन अशें म्हण्टात. हाकाच अद्वैत वेदान्त म्हणपाचीय चाल पडल्या. जाल्यार मागीरच्या काळांत द्वैत, विशिश्टाद्वैत हीं शास्त्रां तयार जाल्यांत. म्हणून वेदान्त शब्दांत हांचोय आस्पाव करूं येता.

त्याभायर चार्वाक, बौध्द, जैन सारकिल्लीं जायतीं शास्त्रां आसात. हातूंत वेदांचो आदार घेवन जाणीं आपली विचारसरणी मांडली तांकां वैदिक शास्त्रां आनी जाणीं वेदाचो आदार घेवंक ना तांकां अवैदिक शास्त्रां अशें मानलां.

ह्या सगळ्या शास्त्रांत जीव, जग, देव आनी मोक्ष हांचोय मुखेलरुपान विचार करप जाता. पंचमहाभूतांचोय हातूंत आस्पाव जाता. हांचो अभ्यास करतना दर एका शास्त्राचो आपलो म्हणून एक दृश्टीकोन आसता आनी तें शास्त्र ते पद्दतीन विचार करता. शास्त्रांचो अभ्यास करपी लोकांक जेन्ना कितेंय दुबाव येतात तेन्ना तांकां शास्त्राच्या पंडितांमदीं चर्चा करची पडटा. तातूंत पूर्वपक्षाचो आनी उत्तरपक्षाचो अशे दोन गट आसता. थंय सिध्दान्ताचें खंडन - मंडन जाता. हाकालागून सिध्दान्त गट जातात आनी नवो तत्त्वबोधय जाता.

भौतिक शास्त्रांसंबंदानय खुबशीं शास्त्रां पुर्विल्ल्या काळांत आशिल्लीं. आयज जायत्या नव्या नव्या तरांच्या शास्त्रांचो जल्म जाल्लो असा. विकास जाल्लो आसा.

- अनंत राम भट

**शास्त्री, लालबहादूर :** (जल्म : २ ऑक्टोबर १९०४, मोगलसराई, बनारस; मरण : ११ जानेवारी १९६६ ताश्कंद).

भारतीय स्वातंत्र्य - चळवळींतलो निश्ठावान कार्यकर्तो, म्हान राश्ट्रभक्त आनी भारताचो दुसरो प्रधानमंत्री. ताचो जल्म श्रीवास्तव आडनांवाच्या कायस्थ कुळांत जालो. ताच्या बापायचें नांव शारदाप्रसाद आनी आवयचें नांव रामदुलारीदेवी. बापूय शारदाप्रसाद सुरवेक मुळावे शाळेंत शिक्षक आशिल्लो. उपरांत तो एका सरकारी कचेरींत कारकून जालो. आवय परंपरीक धर्मीक वृत्तीची आशिल्ली. लालबहादूर देड वर्साचो आसतना ताच्या बापायक मरण आयलें. तेन्ना ताचें कुटूंब बनारसा लागसार रामनगराक स्थायीक जालें.



लालबहादूर, हरिश्चंद्र हायस्कुलांत मॅट्रिकेक आसतना १९२१ वर्सा महात्मा गांधीन असहकाराची चळवळ सुरू केल्ली, तांतूत ताणें वांटो घेतिल्लो. तो महात्मा गांधीच्या विचारसरणीन प्रभावीत

जालो. उपरांत ताका गांधीजीचो सहवास मेळ्ळो आनी तो पुरायपणान गांधीवादी जालो. १९२५ वर्सा ताणें काशी विद्यापिठांतल्यान तत्त्वज्ञान ह्या विशयांत, पयल्या वर्गांत 'शास्त्री' ही पदवी मेळयली. उपरांत शिकता आसतना ताचेर डॉ. भगवान दास, गोपालशास्त्री ह्या अध्यापकांचो, उपरांत पुरुषोत्तमदास टंडन आनी लाला लजपतराय हांचो खूब प्रभाव पडलो. लाला लजपतराय हाणें स्थापणूक केल्ले 'सर्वंट्स ऑफ द पिपल सोसायटी' हे संस्थेचो तो १९२५ - २६ वर्सा आजीव वांगडी जालो आनी अलाहाबादेंत ताणें कायमचें वास्तव्य केलें.

१९२७ वर्सा तो मिर्झापूरचे ललितादेवीकडेन लग्न जालो. ताका चार पूत आनी दोन धुवो आशिल्ल्यो. कांय दीस तांणी मुझाफरपूराक हरिजनोध्दाराचें कार्य केलें.

अलाहाबादेक ताका नेहरूचें मार्गदर्शन मेळ्ळें. नेहरूची हुशारी, ताचें व्यक्तिमत्व, तळमळीचें वक्तृत्व हांचो लालबहादुराचेर खूब प्रभाव पडलो. ताणें नेहरूक आपलो गुरू मानलो.

समाजीक क्षेत्रांतल्या विंगड विंगड संघटनांनी लालबहादुरान विंगड विंगड पदांचेर काम केलें. तातूंत प्रयाग नगरपालिकेचो वांगडी (१९२८ - ३५), उत्तर प्रदेश विधानसभेचो वांगडी, पार्लमेंटरी बोर्डाचो सचिव (१९३७), भूमि - सुदार समितीचो सचिव (१९३५ - ३६), जिल्हो काँग्रेसीचो सचिव (१९३० - ३५), प्रांतिक काँग्रेसीचो सचिव (१९३७), अ.भा. काँ. कार्यकारिणीचो वांगडी आनी म्हासचिव ह्या पदांचेर ताणें काम केलां.

१९४२ चे चळवळींत ताणें भूंयगत रावन कार्य केलें. उपरांत ताका अटक जाली. स्वातंत्र्य चळवळींत ताका सात खेपे अटक जावन णव वर्सां बंदखण भोगची पडली. बंदखणींत ताणें कांट, हेगेल, रसॅल, हक्सली ह्या विचारवंतांच्या ग्रंथांचें वाचन केलें. मादाम क्युरीच्या चरित्राचो ताणें हिंदींत अणकार केलो. कांय तेंप ताणें उत्तर प्रदेशाच्या इंटरमिजिएट बोर्डाचेर तशेंच हिंदी समितीचो संयोजक म्हणूनय काम केलें.

१९४६ वर्सा तो काँग्रेसीवतीन उत्तर प्रदेश विधानसभेचेर वेंचून आयलो. पं. गोविंद वल्लभपंत हो संयुक्त प्रांताचो मुखेलमंत्री जातकच ताणें शास्त्रीक आपल्या मंत्रीमंडळांत घेवन ताचेकडेन पुलीस आनी दळणवळण हीं खातीं सोंपयलीं. १९५० वर्सा नेहरून ताका अखिल भारतीय काँग्रेसीचो म्हासचीव केलो. राज्यसभेचे वेंचणुकेंत वेंचून येतकच नेहरूच्या मंत्रीमंडळांत ताची रेल्वे आनी येरादारी मंत्री म्हणून नेमणूक जाली. १९५५ वर्सा ताणें तिसऱ्या वर्गाच्या भोंवडेकारांखातीर खुबशो सवलती उपलब्ध करून दिल्यो आनी गंगा न्हंयेचेर व्हड पूल बांदलो. अस्तंत बंगालांत चित्तरंजन कारखान्याची उबारणी केली. १९५६ वर्सा तो रेल्वे मंत्री आसतना दक्षिण भारतांतल्या अरियालूराक व्हड रेल्वे अपघात जावन १४४ लोक मेले. ह्या अपघाताची नैतिक जापसालदारकी मंत्री ह्या नात्यान घेतिल्ल्यान, फुडाराक शिस्तीखातीर आनी आदर्श घालून दिवपाखातीर ताणें आपल्या मंत्रीपदाचो राजीनामो दिलो. १९५७ वर्सा तो परतून लोकसभेचेर वेंचून आयलो आनी ताका परत केंद्रीय मंत्रीमंडळांत घेतलो. १९५७ ते १९६४ मेरेन ताणें संचार आनी परिवहन, उद्देग आनी वेपार, गृह हीं खातीं समर्थपणान सांबाळ्ळीं. गृहमंत्रीपदाच्या काळांत पंजाबी सुभ्याची चळवळ, दक्षिणेंतली हिंदी विरोधी चळवळ, जम्मू - काश्मीरांतलो धर्मीक तणाव ह्या अडचणींक ताका तोंड दिवंचें पडलें. लांचलुचपत आनी भ्रश्टाचार आळबंदा हाडपाखातीर ताणें संथानम् आयोगाची नेमणूक केली. ताणें विशाखापट्टणमाक तारवांबांदणी कारखान्याची उबारणी केली. रशिया आनी चेकोस्लोवाकिया हांच्या आदारान अवजड अभियांत्रिकी निगमाची स्थापणूक केली आनी चाळीस परकीय संस्थांकडेन वेपारी कबलात केली.

आसामाची भाशीक दंगल (१९६० - ६१), पंजाबची धर्मीक दंगल आनी मास्टर तारासिंगाची पंजाबी सुभ्याची चळवळ हे प्रदेशीक प्रस्न ताणें खूब कुशळतायेन आनी कठोर भुमिका घेवन हाताळ्ळे. द्रवीड मुन्नेत्र स्वतंत्र द्रवीडस्थानाचे मागणेक ताणें न्हयकार दिलो आनी १९६३ वर्सा भारतीय संघांतल्यान भायर पडपी प्रचारयंत्रणेक राश्ट्रद्रोही थारावन, तशें विधेयक संसदेंत संमत करून घेतलें. तेच भाशेन केंद्रीय प्रशासनांतले दप्तर दिरंगाईचेर कडक कारवाय केली. जवाहरलाल नेहरून प्रशासनाच्या शुध्दीकरणाखातीर कामराज येवजण अंमलांत हाडून चडावत सहकाऱ्यांक राजिनाम्याचें आवाहन केलें. कामराज येवजणेप्रमाण शास्त्रीसयत स मंत्र्यांनी राजिनामे दिले. शास्त्रीन काँग्रेस संघटनेच्या वावराक आपणाक ओंपून घेतलें पूण पंडित नेहरून परतून ताका बिन खात्याचो मंत्री म्हणून घेतलो.

पंडीत नेहरूच्या मरणाउपरांत काँग्रेसीचे संसदीय सभेन ९ जून १९६४ शास्त्रीची प्रधानमंत्री म्हणून एकमतान निवड केली. उपरांत रोखडेंच ताणें पंजाबचो प्रतापसिंग कैरों हाचेवयल्या भ्रश्टाचाराच्या आरोपांची चवकशी करपाखातीर दास कमिशन नियुक्त केलें; भ्रश्टाचाराच्या प्रकरणांत बदनाम जाल्ले ओरिसाचे वीरेन मित्र आनी बिजू पटनायक हांकां राजिनामे दिवपाक लायले. तशेंच १९६५ वर्सा केरळांतलें अस्थीर वातावरण पळोवन थंय राश्ट्रपती राजवट हाडली. भारताचें शांतताय आनी अलिप्तताय ह्या तत्त्वांचेर आदारीत परराश्ट्रधोरण फुडें चालू दवरलें. श्रीलंका, भूतान, नेपाळ ह्या शेजारी देशांकडे विस्वास निर्माण करून तांचेकडेन इश्टागत चड घट केली. भारत-श्रीलंका हांचेमदीं कबलात करून चार लाख भारतीय तमीळांक श्रीलंकेचें नागरीकत्व मेळोवन दिलें. तशेंच नेहरूचें उद्देगीक उदरगतीचें धोरणय ताणें फुडें चालू दवरलें. ताच्या काळांतली भारत - पाक झूज ही सगळ्यांत कसवटीची घडणूक ताणें खंबीरपणान हाताळ्ळी. पाकिस्तानाकडल्यानच १२ एप्रिल १९६५ दिसा कांजरकोटाक कच्छ

शिमेचेर पयलीं छाड जुंव्याचेर आक्रमण केलें, तेन्ना शास्त्रीन प्रतिकाराची घोशणा केली आनी मॉस्कोक कोसिजिन आनी मिकोयान हांचेकडेन तेविशीं सविस्तर भासाभास केली. तेन्नाच ताणें जिनिव्हा कबलातीप्रमाण विएतनामी झूज अमेरिकेन रोखडेंच थांबोवंचें अशी नेटान मागणी केली. ताचे उपरांत कांय दिसांनी १४ ऑगस्ट १९६५ दिसा पाकिस्तानान सियालकोटाक झुजबंदीरेशा हुंपून अतिक्रमण केलें. तेन्ना भारतानूय रिथवालाक बंदीरेशा हुंपून हाजीपीर जिरवलें आनी ६ सप्टेंबर १९६६५ दिसा लाहोरांत भारतीय फौजो घुसल्यो. पाक आक्रमणाक प्रतिआक्रमकपणान उत्तर दिवन तांणी भारताच्या इतिहासांत पयलेच खेपे आक्रमक दुस्मानांच्या प्रदेशांत घुसून झूज करपाचो मान मेळयलो. झुजकाळांत तांणी जनतेक सहकार्याचें आवाहन केलें.

सियालकोट जम्मू, आदमपूर, जोधपूर ह्या रणक्षेत्रांक ताणें प्रत्यक्ष भेट दिल्ली आनी तेन्ना चीनान झुजाची धमकी दिली तेन्ना दोनय आघाड्यांचेर झुजपाक भारत तयार आशिल्ल्याची घोशणा केली. संयुक्त राश्ट्र संघटनेन झूज सोंपोवपाची मागणी करिनाफुडें एकतर्फी झूज थांबोवन वाटाघाटी करपाक तयारी दाखयली.

भारत - पाक हातूंत रशियाचे मध्यस्थीन वाटाघाटी जावन णव कलमी ताश्कंद कबलातीचेर अयुबखान आनी शास्त्रीची १० जानेवारी १९६६ दिसा निशाण्यो जाल्यो. तेच मध्यानरातीक काळजाचो आताक येवन शास्त्रीक मरण आयलें.

भारत-पाक झुजा वेळार ताचे राश्ट्रीय अस्मितायेचें आनी कणखर धोरणाचें दर्शन जगाक जालें. ताची 'जय जवान, जय किसान' ही घोशणा उपरांत अमर जाली. भारत सरकारान 'भारतरत्न' हो पुरस्कार दिवन ताचो मरणाउपरांत भोवमान केलो. तमीळनाडू राज्यांत ताचे यादीक संस्कृत विद्यापिठाची (१९९१) स्थापणूक केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**शाही राजघराणें :** शाही घराण्याचें राज्य इ.स. च्या ९ व्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत सुरू जालें. कुशाणांचें साम्राज्य नश्ट जातकच लेगीत त्या वंशांतले कांय राजे काबूल आनी गंधार ह्या प्रदेशांचेर राज्य करताले. अल् बिरुनीन तांकां तुर्की शाही राजे मानल्यात. पूण युआन च्वांग तांकां क्षत्रिय म्हण्टा. ह्या घराण्यांतल्या राजांनी इ.स. च्या ७ व्या शेंकड्यासावन ९ व्या शेंकड्यामेरेन अरबी आक्रमणांक तोंड दिलें.

लगतूरमान हो तातुंतलो निमाणो राजा. ताचो ब्राह्मण मंत्री कल्लर हाणें राजाक हारोवन ताचें राज्य आपणें घेतलें. ताच्या वंशाक अल् बिरुनीन हिंदू शाही म्हळां. राजतरंगिणींत ह्या कल्लराक लल्लिय हें नांव आसून, ताच्या वंशजांचीय म्हायती आसा.

शाही घराण्याचें राज्य सुरू जालें तेन्ना लल्लियाची सत्ता काबूल आनी अस्तंत बंगाल ह्या प्रदेशांचेर आशिल्ली. पूण इ.स. ८७० च्या अदमासाक अरबांनी काबूल जिरवलें. तेन्ना लल्लियान पंजाबांतल्या उदभांडपूर हांगा आपली राजधानी स्थापली. उत्तर भारतांतल्या सगळ्या राजांभितर लल्लिया श्रेश्ठ आशिल्लो अशें कल्हण म्हण्टा.

लल्लियाक तोरमाण नांवाचो पूत आशिल्लो. पूण लल्लियाच्या मरणा उपरांत त्याच घराण्यांतल्या सामंत नांवाच्या मनशान ताचें सिंहासन बळकायलें. इ.स. ९०० च्या अदमासाक काश्मीराचो मंत्री प्रभाकर हाणें उदभांडपुराचेर स्वारी करून सामंताक हारयलो आनी तोरमाणाक कमलुक ह्या नांवान सिंहासनाचेर बसयलो. एका कोरांतिल्ल्या लेखांत ताका कमलवर्मा अशें म्हळां. अल् बिरुनीन ताचो कमलू असो उल्लेख केला. कमलूच्या काळांत, काबुलिस्तानचो प्रशासक फर्दघान हाणें शाही राज्यांतलें रुकावंड ह्या तीर्थक्षेत्राचेर स्वारी करून तें लुटलें. अफघानिस्तानांत श्री सामंत ह्या अक्षरांचीं कांय नाणीं मेळ्ळयांत, तीं सामंताचींच आसुंये.

कमलूच्या मरणा उपरांत, ताचो पूत भीम हो राजा जालो. ताची नात म्हळयार भीमाचे धुवेची धूव दिद्दा ही काश्मीरचो राजा क्षेमगुप्त (इ.स. ९५०) हाची राणी आशिल्ली. ताका लागून काश्मीरच्या दरबारांत भीमदेवाक खूब मान आशिल्लो. ताणें विष्णुचें एक देवूळ बांदून ताका भीमकेशवाचें देवूळ अशें नांव दिल्लें.

भीमदेवा उपरांत जयपाल हो राजा जालो अशें मुस्लिम इतिहासकार म्हण्टात. पूण तो भीमाचो पूत आशिल्लो काय वेगळया घराण्यांतलो आशिल्लो तें समजना. फिरिश्तान जयपाल हो इश्टपालाचो पूत आशिल्लो अशें म्हळां. राजतरंगिणींत जयपालाचो उल्लेख ना. पूण त्या काळांतल्या थक्कन नांवाच्या शाही राजाचो उल्लेख आसा. जयपाल इ.स.च्या १० व्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत सिंहासनाचेर बसलो.

उत्तर स्वातांत एक शिलालेख मेळ्ळा. तातूंत परमभट्टारक महाराजधिराज श्रीजयपालदेव हाचो उल्लेख आसा. अस्तंत पंजाबाच्या सरहिंदसावन अफगाणिस्तानांतल्या लमघानमेरेन आनी काश्मीरचे शिमेसावन मुलतानमेरेन ताची सत्ता आशिल्ली. त्याच वेळार सबुक्तिगीन नांवाचो पराक्रमी मनीस गझनीचो सुलतान जालो. सुरवेक ताणें भोंवतणचीं सगळीं ल्हान राज्यां जिकून आपलो राज्यविस्तार आनी बळ वाडयलें. उपरांत ताणें शाही राज्याचेर आक्रमण सुरू केलें. तेन्ना जयपालान गझनीचेर स्वारी केली. जेलालाबादालागीं दोगांयची गांठ पडटनाच, झूज सुरू जावंचे पयलीं भयानक वादळ सुरू जालें. ताकालागून जयपालाक सबुक्तिगीनाकडे कबलात करून हार घेवंची पडली. पूण तो कबलातीच्यो अटी पाळीना अशें कळटकच सबुक्तिगीनान व्हड सैन्य घेवन परतून भारताचेर घुरी घालपाची तयारी केली. हें संकट वळखून जयपालान भारतांतल्या हेर राजांक आदाराखातीर आव्हान केलें. कनौजच्या प्रतिहारांचें बळगें त्या काळांत उणें जाल्लें आसलें तरी राजान चाहमान आनी चंदेल राजांसयत जयपालाक आदार केलो. त्या सगळयांचीं व्हड सेनादळां मुसलमानांकडे झुजलीं.

पूण निमाणें तांकां हार घेवंची पडली. सिंधू न्हंयेमेरेनचो सगळो प्रदेश सबुक्तिगीनान जिरवलो.

इ.स. ९९७ वर्सा सबुक्तिगीनाक मरण आयलें. ताचो पूत महमूद हो गझनीचो सुलतान जालो. ताणें भारताचेर घुरी घालून भरपूर संपत्ती लुटून व्हेली. इ.स. १००१ वर्सा ताणें दुसरी घुरी घाली तेन्ना शाही राजा जयपालान ताका तोंड दिलें. पेशावरालागीं भिरांकूळ झूज जालें. पूण विचित्र दावपेचांक लागून जयपालाक हार घेवंची पडली. जयपाल स्वता दुस्मानाच्या हातांत मेळ्ळो. तेन्ना खंडणी दिवपाचे अटीचेर ताका सोडलो. जयपालाक हो स्वताचो अपमान दिसलो, म्हणून ताणें स्वताच्या हातान चिता पेटोवन स्वताक जाळोवन घेतलो.

जयपाला उपरांत ताचो पूत आनंदपाल राजा जालो. इ.स. १००५ - १००६ वर्सा सुलतान महमुदान मुलतानाचेर घुरी घाली. सिंधू न्हंयेक महापूर आयिल्ल्यान ताका शाही राज्यांतल्यान मुलतानाकडे वचपाक मार्ग जाय आशिल्लो पूण तो दिवपाक आनंदपालान न्हयकारलो. तेन्ना सुलतानान आनंदपालाच्या सैन्याचेर हल्लो चडयलो. तेन्ना आनंदपालाचो पराभव जालो आनी सुलतानान मुलतानय जिरवलें.

इ.स. १००८ वर्सा सुलतान महमुदान परतून शाही राज्याचेर घुरी घाली. आनंदपालाचो पूत ब्रह्मपाल हाणें व्हड सैन्य घेवन ताका प्रतिकार केलो. फिरिश्ताच्या मताप्रमाण, त्या वेळार आनंदपालान उत्तर भारतांतल्या बऱ्याचशा राजांकडे आदार मागलो आनी राजांनी झुजाखातीर सेनादळां धाडलीं. सुलतान महमूद ओहिंदालागसार तळ घालून रावलो. भोंवतणी ताणें खंदक खणिल्ले. चाळीस दीस सुमार दोनय पक्ष एकमेकाकडल्यान हल्लो जावपाची वाट पळेताले. निमाणें महमुदान स हजार धोणू घेतिल्ल्या सैनिकांकडल्यान दुस्मानाच्या सैन्याचेर बाण सोडले. ताका लागून चवताळून पंजाबच्या गक्खरांनी मुसलमानी सैन्याचेर हल्लो केलो. सुलतानाचो पराभव जाता तें पळोवन सुलतानाच्या खाशेल्या सेनादळान हिंदू सैन्याच्या फाटल्यान हल्लो चडयलो. ताका लागून हिंदू सैन्यांत गोंदळ जालो. त्याच वेळार सरसेनापती आनंदपालाच्या हतयाक एक बाण लागलो, आनी तो झूजभूंय सोडून धावंक लागलो. तेखातीर हिंदू सैनिकांचो धीर गेलो आनी तेय धावंक लागले. तेन्ना सुलतानाच्या सेनादळांनी तांच्या फाटल्यान वचून २०,००० सैनिकांक जिवे मारले.

सुलतान महमुदान उरिल्ल्या हिंदू सैन्याची भीमनगर (आताचें नगरकोट) मेरेन फाट धरली. थंय एका दोंगराचेर भक्कम किल्लो आसून, तातूंत प्रचंड संपत्ती साठयल्ली आशिल्ली. सुलतानान तो किल्लो जिकून घेतलो आनी ती सगळी संपत्ती लुटून व्हेली. हे घुरयेंत सिंधूचे अस्तंतेकडलो सगळो प्रदेश सुलतान महमुदान घेतलो. तातूंत शाही राजांची राजधानी उदभांडपूरय आशिल्ली.

इ.स. १००९ वर्सा सुलतानान परतून भारताचेर घुरी घाली. राजाक हारोवन राजपुतान्यांतल्या नारायणगाव मेरेनची सगळी संपत्ती लुटून गेल्लो. मुलतानचो सुभेदार दाऊद परतून शिरजोरी करूंक लागलो म्हणून सुलतानान इ.स. १०१० वर्सा ताचेर घुरी घालून ताका धरून व्हेलो. सुलतान महमुदाचे हे पराक्रम पळोवन आनंदपालान, ताचेकडे कबलात केल्यार आपलो निभाव लागतलो अशें चितलें. तातूंत दर वर्सा ५० हत्ती, तांचेर लादिल्ली संपत्ती आनी २००० दास आनंदपालान गझनीक धाडचे अशें थारलें. हाचेबदला शाही राज्याचेर घुरी घालचो ना म्हणपाचें सुलतानान मान्य केलें. तेप्रमाण आनंदपालच्या मरणामेरेन दोनय पक्ष वागले. इ.स. १०११ त सुलतान महमुदान ठाणेश्वराचेर घुरी घाली, तेन्ना आनंदपालान ताका आपल्या राज्यांतल्यान वचपाक वाट दिली. इ.स. १०१२ वर्सा आनंदपालाक मरण आयलें आनी ताचो पूत त्रिलोचनपाल गादयेर बसलो.

त्रिलोचनपालान सुलतानाक खंडणी दिवपाचें न्हयकारलें तेन्ना इ. स. १०१३ वर्सा सुलतानान ताचेर घुरी घाली. शाहीची राजधानी नंदन हांगा आशिल्ली. त्रिलोचनपालान आपलो पूत भीमपाल हाका व्हड सैन्य दिवन सुलतानाक तोंड दिवपाक धाडलो आनी आपल्या सामंतांक आदाराखातीर आपयले. हें झूज खूब दीस चललें. पूण निमाणें शाही राजांक हार घेवंची पडली. राजधानीच्या रक्षणाखातीर कांय सुसज्ज सैन्य दवरून ते काश्मीरांत फाटीं सरले. सुलतानान व्हड यत्नांनी नंदनचो किल्लो घेतलो. शाही राज्याचो चडसो भाग घेतलो आनी भरपूर संपत्ती लुटून व्हेली. नंदन घेतकच सुलतान काश्मीरावटेन गेलो. त्रिलोचनपाल आपल्या उरिल्ल्या सैन्यासयत थंय गेल्लो. ताणें सुलतानाच्या सैन्याचो प्रतिकार केलो पूण थंयय ताका हार घेवंची पडली. उपरांत तो उदेंत पंजाबांत पळून गेलो. थंय ताणें सैन्य एकठावन कांय वर्सां राज्य केलें. पूण तेन्ना ताका शर्वनृपती चांदराय हाचेकडे संघर्श करचो पडलो. शर्व म्हळयार सहारणपुरा लागसारचें ससर्व. चांदराय आनी त्रिलोचनपाल हांचे कितलेशेच संग्राम जावन दोनूय पक्षांचे बरेच सैनिक मेले. उपरांत दोगांयनी कबलात केली. तेन्ना त्रिलोचनपालान आपलो पूत भीमपाल हाचेखातीर चांदरायाचे धुवेक मागणी घाली. चांदरायान ती मान्य केली. पूण भीमसेन लग्नाखातीर शर्वांत वतनाच ताका अटक केली. तेन्ना त्रिलोचनपाल ताका सोडोवंक शकलो ना.

इ.स. १०१८ वर्सा सुलतान परतून व्हड सैन्य घेवन भारतांत आयलो. पंजाब आनी काश्मीरांतल्या राजांनी ताका आदार केलो पूण त्रिलोचनपाल माळण्यांतल्या परमार भोजराजाकडे पळून गेलो. सुलतानान इ.स. १०१९ वर्सा शर्वाचेर हल्लो केलो. तेन्ना चांदरायय पळून गेलो. त्या बोवाळांत भीमपाल बंदखणींतल्यान सुटलो. इ.स. १०२१ - २२ वर्सा सुलतान परतून जेन्ना भारतांत आयलो तेन्ना ताणें चंदेलांचेर घुरी घाली. त्यावेळार शाही राजा त्रिलोचनपाल हाणें यमुना

हुंपपी मुस्लिम सैन्याचेर नेटान हल्लो केलो पूण ताका जैत मेळ्ळेंना. उपरांत तो चंदेल राजा विद्याधर हाचेकडे वता आसतना ताका मरण आयलें. त्रिलोचनपालाचो पूत भीमपाल ताचेउपरांत पांच वर्सां जिवो आशिल्लो पूण ताचें राज्य महमुदाच्या सत्तेखाल आशिल्लें.

शाही राजांनी सुमार २५ वर्सां मुसलमानी आक्रमणांक तोंड दिलें. तांच्या सैन्याचें बळगें व्हड आशिल्लें तशेंच ते पराक्रमी आनी स्वाभिमानी आशिल्ले. पूण गझनीच्या सुलतानामुखार तांकां दर खेपेक नमतें घेवंचें पडलें. शाही राजांनी निमाणेमेरेन खूब यत्न केले, पूण तांकां जैत मेळ्ळेंना.

- कों. वि. सं. मं.

## शाहूमहाराज (राजर्षी)

**शाहूमहाराज (राजर्षी)** : (जल्म : १६ जुलय, १८७४, कागल; मरण : ६ मे १९२२ मुंबय).

कोल्हापूर ह्या माजी संस्थानाचो अधिपती. समतेच्या तत्त्वाचेर समाज सुदारणेचे भावनेन, प्रजेचें कल्याण सादपी एक उदारमतवादी राज्यकर्तो.

शाहूमहाराजाचो जल्म कागलच्या घाटगे कुळांत जालो. ताचें नांव यशवंतराव अशें आशिल्लें. ताच्या बापायचें नांव जयसिंगराव आनी आवयचें नांव राधाबाईसाहेब. कोल्हापूरचो त्या काळांतलो चवथो शिवाजी हाका अकाली मरण आयिल्ल्यान ताची बायल महाराणीसाहेब हिणें १७ मार्च १८८४ ह्या दिसा यशवंतरावाक पोसको घेतलो आनी ताका 'शाहू छत्रपती' अशें नांव दवरलें.

इ.स. १८८५ वर्सा शाहूमहाराजाक राजकोट हांगाच्या राजकुमार कॉलेजांत धाडलो. थंय इ.स. १८८९ मेरेन अभ्यास करून ताणें आपलें शिक्षण पुराय केलें. फुडें सर फ्रेझर हाचे देखरेखीखाल फुडल्या शिक्षणाखातीर तो धारवाड हांगा रावलो. थंय ताणें इंग्लीश भास, राज्यकारभार, जगाचो इतिहास ह्या विशयांचें अध्ययन केलें.

इ.स. १८९१ वर्सा श्रीमंत सौ. लक्ष्मीबाईसाहेब हिचेकडेन ताचें लग्न जालें. ती बडोद्याच्या गुणाजीराव खानविलकर हाची धूव. इ.स. १८९४ वर्सा महाराजान संस्थानाचीं अधिकारसुत्रां हातांत घेतलीं. सातव्या एडवर्ड बादशहाच्या राज्यारोहणाच्या समारंभाक हाजीर रावपाखातीर तो इंग्लंडाक गेलो. हे भोंवडेंत ताका खूब अणभव मेळ्ळे. ताचेपयलीं ताणें अखिल भारताची भोंवडी करून देशाचे राजकीय, धर्मीक आनी समाजीक परिस्थितीची बारीकसाणेन पळोवणी केल्ली.

शाहू महाराजान उपरांत डेक्कन एज्युकेशन सोसायटीचें अध्यक्षपद आपणावन व्हड अर्थीक आदार केलो. वेदोक्त प्रकरणामेरेन लोकमान्य टिळक आनी शाहू महाराजाचे खूब बरे संबंद आशिल्ले. इ.स. १८९९ वर्सासावन शाहू महाराजान वेदोक्ताचो आग्रह धरलो आनी वेदोक्त न्हयकारपी ब्राह्मण उपाध्यायांचीं इनामां जप्त केलीं. ताचे पयलीं, न्याय दिवपाचे संस्थानाचे काडून घेतिल्ले अधिकार ताणें मुंबय सरकाराकडल्यान परतून घेतले.

इ.स. १९०१ वर्सा ताणें कोल्हापुरांतल्याच नारायणभट्ट सेवेकरी ह्या वैदिक गृहस्थांकडल्यान आपली वेदोक्त श्रावणी केली. कोल्हापुरांतल्या १६ कायदेकरी म्हळयार धर्मपंडित, पुरयत, जोशी हांकां धर्मादाय म्हूण दिल्लीं वेगवेगळया गांवांतलीं इनामी उत्पन्नां जप्त केलीं. अशे तरेन १००० लोकांची ३० - ४० हजार एकर जमीन जप्त जाली. हें वेदोक्त प्रकरण महाराष्ट्रांत खूब गाजलें. कितल्याशाच विद्वानांनी आनी खबरापत्रांनी महाराजाचेर टीका केली. स्थानिक ब्राह्मणांनी ताका शापलेगीत दिले.

भिक्षूकशाहीच्या जाळयांतल्यान भौस मुक्त जाल्यारच उच्चवर्णियांची ही धर्मीक मक्तेदारी सोंपतली ह्या विचारान ताणें ह्याच कारणाखातीर स्थापन केल्लो महात्मा फुले हाचो सत्यशोधक समाज आपणायलो. उपरांत महाराजाचें लक्ष स्वामी दयानंदाच्या आर्य समाजाकडे गेलें. आर्यसमाज हो फकत वेदांचेर भावार्थ दवरपी आनी जात - पात न मानपी समाज. ताकालागून महाराजांचीं मतां आर्यसमाजाकडे सारकीं जुळटालीं. ह्या समाजाचो महाराष्ट्रांत प्रसार जावंचो ह्या हेतान ताणें १९१८ वर्सा कोल्हापुरांत आर्य समाजाची स्थापणूक केली आनी त्या समाजाक पुराय राजाश्रय दिलो. आर्यसमाजाचें परंपरेंतलें एक गुरूकुल निर्माण करून तातूंत विद्यार्थ्यांचें रावप, जेवण आनी शिक्षणाची सोय केली.

विद्येबगर भोवजन समाजाक आपलो उत्कर्श करपाक मेळचोना आनी प्रस्थापित समाजवेवस्थेंतल्या ब्राह्मणवर्गाची मक्तेदारी सोंपची ना ही जाणविकाय महाराजाक आशिल्ली. ज्ञानान पात्रताय वाडोवन, समाजांतल्या सगळया घटकांक समान पांवडयाचेर हाडूंक मेळटले असो ताचो भावार्थ आशिल्लो. तेखातीर ताणें आपल्या राज्यांत सक्तीच्या मुळाव्या शिक्षणाचो कायदो केलो. तें शिक्षणय फुकट आशिल्लें. महाराजान कोल्हापुरांत सगळया जातींचीं वसतिघरां निर्माण केलीं.

धर्मीक वेव्हारांत ब्राह्मण पुरयताच्या वर्चस्वाक तोंड दिवपाखातीर महाराजान नवें क्षात्रजगद्गुरूपद निर्माण केलें. तेखातीर पाटगांव हांगाच्या मौनी मठाच्या पिठाचेर सदाशिवराव पाटील ह्या सुशिक्षित गृहस्थाची नेमणूक करून ताका क्षात्रजगद्गुरू अशी पदवी दिली.

शाहू महाराजांचे जिणेंतलो क्रांतिकारक भाग म्हळयार अस्पृश्यतेआड ताणें केल्लें बंड. ह्या कार्यांत ताका खूब विरोध जालो. शाळा, वसतिघरां, बांयो, पाण्टे हांगाची अस्पृश्यताय ना करपाखातीर ताणें कायदे केले. माहूत म्हणून एका अस्पृश्याची नेमणूक केली. एका मांगाच्या भुरग्याक शिकोवन व्हड केलो. म्हारांक मानाच्यो तलवारी दिवन सरकारी कार्यावळींनी सरदार आनी क्षत्रियवर्ग हांचेवागडा मान दिलो. संस्थानांतल्या नोकऱ्यांनी तांकां जागे दिले. सुशिक्षित

म्हारांक - मांगांक वकिलीच्यो सनदी दिल्यो. म्हारांची बलुते - पद्दत बंद करून तांच्यो जमनी तांच्या नांवांचेर रयतवारीन करून दिल्यो. अशे तरेन संस्थानांतल्या म्हारांची गुलामगिरींतल्यान मुक्तता केली. कुलकर्णीवतनां नश्ट करून अस्पृश्य वर्गांतल्या लोकांक तलाठी नेमले.

समाजीक एकचार घडोवपाखातीर, आंतरजातीय लग्न हें उपकारक थारतलें अशी महाराजांची धारणा जाल्ल्यान, अशा लग्नांक मान्यताय दिवपी कायदो महाराजान केलो. अर्थीक आनी उद्येगीक क्षेत्रांनींय ताणें खूब यत्न केले. शाहू मिलाची स्थापणूक, शेती आनी उद्येगीक विकास हांचेखातीर वीजनिर्मिती करपी राधानगरीचें धरण, गोडाच्या वेपाराखातीर शाहूपुरीची उबारणी हांचो तातूंत आस्पाव जाता.

शाहूमहाराज विवेकी आनी धोरणी आशिल्लो. ताचें व्यक्तिमत्वय ओडलायणें आशिल्लें. बळीश्ट शरीर आनी ताका सोबसारकी उंचाय आशिल्ली ताका कलेविशीं प्रेम आनी कलाकारांविशीं आदर आशिल्ल्यान ताचे कडल्यान कलांक आनी कलाकारांक राजाश्रय मेळ्ळो.

महाराष्ट्र तशेंच एकंदर भारतीय समाजांत जी समतेची समाजीक क्रांती जाली, तातूंत शाहू महाराजाचें व्हड योगदान आसा. एक राजा आसूनय, धनीपणाची मिजास मिरयनासतना, पारंपारीक प्रस्थापित अन्यायी वेवस्थेआड बंड करपाची ताची पुरोगामी वृत्ती इतिहासीक नदरेन तोखणायेची आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**शाळिग्राम :** शाळिग्राम ही एक पूज्य शिळा. तिका विष्णु देवाचें प्रतिक मानतात. नेपाळांत पशुपतीपसून देडशे कोसांचेर मुक्तनाथ नांवाची सुवात आसा. थंय गंडकी नांवाचे न्हंयेंत शाळिग्राम मेळटात. थंय फातरांचोच एक व्हड दोंगर आसा. त्या फातरांच्यो मूर्तीय करतात. ताचेर यंत्रां कोरांतपाची पद्दत आसा. विशिश्ट तरांचीं चक्रां आनी मुखां हांचेवयल्यान त्या फातरांची परिक्षा जाता.

शाळिग्राम कसो जाता तेविशीं एक कल्पना आसा ती अशी - हरि पर्वताच्या मुळसांत चक्रतीर्थ नांवाचें एक तळें आसा. तातूंत शाळिग्रामाचो फातर एक हजार वर्सां रावल्याउपरांत श्री विष्णु 'वज्रकीट' नांवाच्या किड्याच्या रुपान ह्या फातरांत रिगून थंय चक्राकृती कोरांतता. शाळिग्राम तरेकवार रंगांचे आसतात. ताचेवयल्यान तांकां वेगवेगळीं नांवांय दिल्यांतः १) धवो - वासुदेव, २) निळो - हिरण्यगर्भ ३) काळो - विष्णु, ४) तांबडो - प्रद्युम्न, ५)गाड पाचवो - श्री नारायण, ६) गाड निळो - नरसिंह वा वामन, ७) बारा चक्रां आशिल्ल्या शाळिग्रामाक अनंत अशें म्हण्टात.

शाळिग्रामाचे ८९ प्रकार सांगल्यात. शाळिग्राम दुदांत वा तांदळांत दवरतात. तशें करून तांचें वजन आनी आकार वाडल्यार तो नित्याचे पुजेक योग्य आसा अशें समजतात. दक्षिणेंतल्या कांय विष्णुच्या देवळांनी विष्णुच्या गळयांत शाळिग्रामाची माळ घाल्ली दिसता. माध्वसंप्रदायी शाळिग्रामाक प्रत्यक्ष विष्णुचे मूर्तीपरस श्रेश्ठ मानतात. पंचायतन पुजेंत विष्णुचो प्रतिनिधी म्हण शाळिग्राम आसता. प्रायश्चिताखातीर हे लोक पंचकारां बदला शाळिग्रामाचें तीर्थ घेतात. शाळिग्रामांत विश्वांतल्या सगळया पूज्य वस्तुंचो आस्पाव जाता. तो फुटलो तरी अपूज्य थारना.

शाळिग्रामाची कथा अशी आसा - श्री विष्णुन नवग्रह निर्माण केले आनी मनशाचें बरें - वायट करपाचें काम तांचेर सोंपयलें. शनी ह्या पापग्रहाक हें बळगें मेळ्ळयाबराबर तो ब्रह्मदेवाचे राशीक गेलो. ब्रह्मदेवान ताका विष्णु म्हर्यांत धाडून दिलो. विष्णु भियेलो आनी 'फाल्यां यो' अशें ताणें शनीक सांगलें. दुसरे दिसा शनी आयलो, पळय जाल्यार विष्णु जाग्यार ना. ताचो सोद घेतल्या उपरांत गंडकी न्हंयेंत तो शिळेचो पर्वत जावन रावला म्हणपाचें ताका कळ्ळें. शनीन रागान विष्णुक म्हळें, 'बरें आसा पळोवन घेतां' तो वज्रकीट नांवाचो किडो जालो आनी पर्वताच्या पोटांत रिगून पोखरूंक लागलो. तें पोखरप विष्णुच्यान सोंसपाक जालें ना. ताच्या आंगांतल्यान घामाच्यो दोन धारो व्हांवपाक लागल्यो. ताच्योच फुडें गंडकी आनी श्वेत गंडकी अशो दोन न्हंयो जाल्यो. बारा वर्सां उपरांत विष्णु शनीचे पिडेंतल्यान सुटलो. ताणें निज रूप घेतलें आनी आपलें प्रतीक म्हण गंडकींतल्या शाळिग्रामाची पुजा करची असो लोकांक आदेश दिलो.

विष्णुचें प्रतिक म्हण शाळिग्रामाची पुजा करतात. नित्य नेमान चार म्हयने श्री भगवान शाळिग्रामाची पुजा क्रमान केशव, मधुसुदन, संकर्षण, दामोदर, वासुदेव, प्रद्युम्न, विष्णु, माधव, अनंत, पुरुषोत्तम, अधोक्षण, जनार्दन, गोविंद, त्रिविक्रम, श्रीधर, हृषिकेश, नरसिंह विश्वयोगी, वामन, नारायण, पुंडरीकाक्ष उपेंद्र, हरी, श्रीकृष्ण ह्या नांवांनी करची. तशेंच तुळशी, चंदन आनी फुलां ओंपचीं. शाळिग्रामाक ओंपिल्ली तुळशीची माळ आपणे गळयांत घालची आनी पांयां पडचें. तुळशीच्या पयल्या पानान देव प्रसन्न जाता. दुसऱ्या पानान शंकर प्रसन्न जाता. केसरान भगवान विष्णु प्रसन्न जाता. शक्य आसल्यार गंडकी न्हंयेच्या उदकान शाळिग्रामाक न्हाण घालचें अशें सांगलां.

श्रुती, स्मृती आनी पुराणां हांणी वयर सांगलां ते प्रमाण शाळिग्रामाचे पुजेचे चोवीस प्रकार सांगल्यात. बायलो आनी शुद्रांक शाळिग्रामाची पुजा करपाचो अधिकार शास्त्रांत ना. भगवान शाळिग्रामाचे पुजेन मनशाचें शरीर पवित्र जाता. श्रध्देन पुजा केल्यार स्वर्गप्राप्ती जाता. चडकरून चातुर्मासांत सद्दां तुळशीन पुजा करीत जाल्यार सगळयो इत्सा पुराय जातात. जे भुंयेचेर शाळिग्रामांची पुजा करतात ते भुंयेचें दर्शन घेतल्यार सगळीं पातकां ना जातात. जांच्या घरांत नेमान सदांच शाळिग्रामाची पुजा जाता थंय यमदुतांक प्रवेश मेळना.

शाळिग्रामाचे पुजेन वा स्मरणान आपल्याक जाय ते फळ मेळटा. निमाणी मोक्षूय फावो जाता अशें सांगलां.

गोंयांत वैदिक घराण्यांनी विष्णु पंचायतन आसता. तातूंत विष्णुचें प्रतिक शाळिग्राम आसता. देवाऱ्यांत नरसिंह नांवाचो शाळिग्राम आसल्यार ताची भूक व्हड अशें मानून ताका तपलेंभर शीत तूप घालून दाखयतात. ह्या घराण्यांनी सत्यनारायणाचे पुजेक आनी तुळशी लग्नाक शाळिग्राम घेतात. कांय जाणांच्या घरांनी शाळिग्रामाच्या बदला कृष्णाची मूर्त घेतात वा परंपरागत तुळशींत एक कोरांतिल्ली जिन्याची बडी पुरतात. ताचेर केळीचे कांडयेचो कुडको, ताचेर शेण आनी पंटी पेटोवन दवरतात. तुळशीचे पुजेंत विष्णुक अग्रस्थान आसा.

श्राध्दाक ज्या जाग्यार भट जेवतात थंय भट ना जाल्यार पाटार देवस्थानार शाळिग्राम दवरून ताका निवेद्य दाखोवन काम जाता.

शाळिग्राम पुजाऱ्याक मरणाउपरांत विष्णु सायुज्ञता मेळची म्हण शाळिग्राम दान करपाची चाल आसा.

- अच्युत तोटेकार

**शॉ, जॉर्ज बर्नार्ड :** (जल्म : २६ जुलय १८५६ डब्लिन, आयर्लंड; मरण : १९५०).

नामनेचो इंग्लीश नाटककार, समिक्षक, निबंद लेखक आनी विसाव्या शेंकड्यांतल्या बरोवप्यांमदीं मानाची सुवात फावो जाल्लो अग्रणी बुध्दीवादी आनी समाज प्रबोधनकार. जल्मान आयरीश आशिल्ल्या ह्या बरोवप्याक इंग्लीश साहित्यांत मानाचें स्थान फाव जालां. ताणें सेगीत ६ दसकां अखंडितपणान साहित्य - सेवा केल्ली आसा. १८७६ त तो लंडनाक स्थायिक जालो. ताचेर हेन्रीक इब्सेन ह्या जगप्रसिद्द नॉर्वेजियन नाटककाराच्या क्रांतिकारी समाजीक नाटकांनी खूब प्रभाव घालो.

त्या काळांतल्या व्हिक्टोरियन नाटकांतलो स्वच्छंदी तशेंच भावनाप्रधानतायेचो सूर शॉ हाका मानवनाशिल्लो. हाकालागून ताणें इंग्लीश नाटकांत क्रांती घडयली. माचयेक समाजसुदारणा तशेंच समाजप्रबोधनाचें साधन कशी लेखून शॉ हाणें पन्नासांवयर नाटकां बरयलीं. विनोद आनी व्यंग हे ताच्या बरपाचे स्थायी भाव जाल्ल्यान ताच्या चडावत नाटकांत ताणें कामदी हो प्रकार हाताळ्ळा. हाचेवरवीं समाजीक नदरेन म्हत्वाच्या प्रस्नाचेर उल्लेखनीय अशी भासाभास घडोवन हाडप ताका शक्य जालां. परंपरागत नाट्यगूण ते नितीक मूल्यांमेरेन ताणें साबार अशा म्हत्वाच्या विशयांची उखेवणी आपल्या नाटकांत केल्या. तेभायर पात्र रचणूक प्रेक्षकांच्या भावनांक हात घालप अशा मुद्यांचेरय ताणें भर दिला.

'विडोवर्स हावज' (१८९२) हें शॉ हाचें पयलें नाटक. शिंदळकेसारक्या ज्वलंत आनी त्याकाळार अप्रस्तुबुत विशयावयलें 'मिसेस. वॉरेन्स प्रोफेशन' (१८९३) हें ताचें नाटक भोव खवदळ घालपी थारलें. ताचो नाट्य प्रयोग १९०२ मेरेन जालो ना आनी उपरांत ताचेर रोखडीच बंदी आयली. सुरवेक सावनच थोडीभोव नामना मेळिल्लें शॉ हाचें नाटक 'आर्मस् अँड मॅन' (१८९४) हें आसा. हातूंत नाटककाराची झूज - विरोधी भुमिका दिसता.

ताच्या नाटकांतल्यान दिसपी प्रखर क्रांतिकारी सुराकलागून शॉचीं नाटकां उजवाडायल्याबराबर बेगोबेग नामना जोडूंक फाटीं उरलीं. पूण १९०४ उपरांत ताच्या नाटकाविशींचो समाजमनांतलो दुराग्रह वा कलुशीतपण ल्हव ल्हव उणें जायत गेलें. अशें घडपाचें मुखेल कारण म्हळयार शॉचो इश्ट हार्ले ग्रॅनव्हील - बार्कर हाणें फकत ३ वर्सांच्या मोजक्या काळांत शॉचीं ११ नाटकां रॉयल कोर्ट थियेटर ह्या नाट्यघराच्या माचयेर सादर केलीं. हातूंत हेरांवांगडा 'कांदिद' (१८९५), 'द डॅव्हीलस् डिसायपल' (१८९७), 'सिझर अँड क्लिओपात्रा' (१८९८) आनी 'मॅन अँड सुपरमॅन' (१९०३) ह्या संवसारभर फामाद नाट्यकृतींचो आस्पाव जाता. खाशेली गजाल म्हळयार हांचेमदल्या 'मॅन अँड सुपरमॅन ह्या नाटकांत 'दों जुवान इन हॅल' हो रसिक प्रेक्षकांक सदांकाळ भाविल्लो प्रवेश आसा. जाचो एक स्वतंत्र कृती म्हण जायते खेपे प्रयोग जाता.

मॅन अँड सुपरमॅन ह्या नाटकांत शॉन आपलो 'जिवित - शक्त' हो सिध्दांत उक्तायला. शॉचे नदरेन पळयल्यार जिवित - शक्त म्हळयार मनशाचेर जीवशास्त्रीय प्रभाव घालपी एक तांक वा ऊर्जा. ताच्या 'बॅक टू मॅथुसेला' (१९१८ - २०) ह्या भोव म्हत्वकांक्षी नाटकांतय ह्याच सिध्दांताची रूपकात्मक पुनर्मांडावळ केल्ली आसा. शॉच्या पुराय नाट्यकृतींमत 'सेंट जोन' (१९२३) ह्या नाटकाक मुकूटमणी कशें लेखलां. ह्या नाटकांत व्यक्ती आनी इतिहासीक गरज हांचेमदल्या अटळ संघर्शाचें चित्रण केल्लें आसा. पूण भौतेक समिक्षकांक मात शॉच्या 'पिगमॅलियन' (१९१२) हे कृतीची असाधारण अशी ओड आसा अशें दिसता. अतिशय प्रेक्षक - प्रिय अशा ह्या नाटकांत समाजांत चलतल्या वर्ग - वारी फाटली निरर्थकताय दाखोवपाचो सोबीत यत्न नाटककारान केला. एक विद्वान असो उच्चारशास्त्राचो प्राध्यापक एक कनिश्ट वर्गांतल्या अशिक्षीत चलयेची एके उमरावी आनी नव - गिरेस्त अशा वर्गांत कशें रुपांतर करूंक पळयता, हो ह्या नाटकाचो विशय. ह्या रुपांतराखातीर तो प्राध्यापक तिच्या उच्चवर्णियांनी उणाक लेखिल्ल्या 'कॉकनी' वाचाशैलींत कशे तरेन अजापीत करपा जोगो बदल करता हें लक्षणीय स्वरुपांत सादर करपांत शॉ सफल जाला. ही प्रभावी कृती फुडाराक 'माय फेअर लेडी' (१९५३) एक फाकिवंत संगितिका म्हणूनय रसिकांची दाद मेळोवंक पावली. शॉच्या हेर नाटकांमदीं नांव घेवपासारक्यो कृती म्हण 'मेजर बार्बारा' (१९०५), 'द डॉक्टर्स डिलेमा' (१९०६), 'अँड्रोक्लीस अँड द लायन' (१९१३) आनी 'हार्टब्रेक हावज्' (१९१९)

ह्या नाटकांचो आस्पाव जाता.

शॉ नाटककार म्हणूनच न्हय जाल्यार एक मौलिक विचारवंत म्हणूनय समकालीनांमदीं आगळीच सुवात जोडूंक पावलो. समाजांतल्या उणावांचेर ताणें आपल्या अननुकरणीय शैलीन जळजळीत उजवाड घाला. खुसखुशीत विनोद आनी पुरोगामी मतां हांचो संगम ताच्या नाटकांवरीच हेरय गद्यलेखनांत जाल्लो दिसता. आपल्या नवोन्मोशी आनी क्रांतिकारी विचारांचो पुरस्कार ताणें निबंदांतल्यान तशेंच विंगड विंगड प्रस्तावनांतल्यान सदांच केला. ताच्या वेंचीक अशा उल्लेखनीय विचारांमदीं सोंप्या अक्षरवर्णाचो पुरस्कार, शाकाहारावयलीं मतां आदींचो आस्पाव करूंक जाय. अस्तुऱ्यांच्या हक्कांविशीं तो जागरूक आशिल्लो. तशेंच ताणें बायल - मुक्तीचो पुरस्कार केला.

ताका १९२५ वर्सा नॉबेल पारितोशीक फाव जालें.

- डॉ. किरण बुडकुले

**शिंक्रे, जनार्दन जगन्नाथ :** (जल्म : २४ जून १९१६. शिवोली, बार्देस; मरण : ?).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी माध्यमिक आनी लिसेंवाचें तिसरें वर्समेरेन आनी कुर्सो द इश्कोल नॉर्मल मेरेन शिक्षण घेतिल्लें. पिरायेच्या १७ व्या वर्सा १९३३ त तो विद्यार्थीदशेंत आसतनाच इंडियन नॅशनल काँग्रेसचो वांगडी जालो. ऑगस्ट १९३९ ते जानेवारी १९४८ ह्या काळांत पयलीं सिल्वासा कुळें आनी उपरांत चोडण हांगा ताणें प्राथमिक शिक्षकाची नोकरी केली. १९४८ ते १९५६ मेरेन तो नॅशनल काँग्रेस, गोवा फांट्याचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो नॅशनल काँग्रेस, मुंबय फांट्याचो जोडसचिव जालो. भारत छोडो आंदोलनावेळार दक्षिण मुंबय क्रांतिकारी लोकांक पयसो आनी दारूगुळो पावोवपाचो वावर करतालो. डॉ. लोहियाच्या सत्याग्रहा उपरांत डॉ. राम हेगडे हाच्या फुडारपणाखाल नॅशनल काँग्रेस गोवा फांट्याखातीर तो वावुरपाक लागलो.

गोंयमुक्ती चळवळीखातीर पुस्तिका वांटप, वण्टीपत्रकां लावप असलीं कामां तो भूंयगत रावन करतालो. ह्या ताच्या वावराक लागून १९४८ वर्सा ताका सरकारी नोकरी सोडची पडली. त्याच वर्सा दोडामार्ग हांगा सोशलिस्ट पार्टीची स्थापणूक करून आझाद गोमंतक दलाच्या पालवान काँग्रेस सोशलिस्ट पार्टीची स्थापणूक केली. सुटकेझुजाचो प्रचार करपाखातीर ताणें मुंबयसावन 'दीपगृह' नांवाचें सातोळें सुरू केलें. १९५६ वर्सामेरेन तो गोवा नॅशनल कॉन्फरन्सचो सचिव आशिल्लो. १९५२ त ताणें जिल्बर्ट रिबेलो, फ्रँक आन्द्राद, पांडुरंग कुंकळकार, मधुकर धारगळकर हांच्या आदारान 'क्वीट गोवा ऑरगनायझेशन' हे संस्थेची स्थापणूक केली.

गोंय मुक्ती चळवळीच्या वावराखातीर ताका बंदखणीची ख्यास्त भोगची पडली. गोंय मुक्तीउपरांत ताणें 'प्रदीप' नांवाचें पंद्रशी नेमाळें सुरू केलें. १९६२ महाराष्ट्रवादी गोमंतक ह्या राज्यकीय पक्षाची स्थापणूक जाल्ल्यान ह्या पक्षाचो तो संस्थापक वांगडी आनी तिचो पयलो सचिव आशिल्लो. १९६७ वर्सा तो ह्याच पक्षाचे तिकेटीचेर पणजी मतदार संघांत लोकसभेचेर वेंचून आयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शिंक्रे, वैकुंठ जगन्नाथ प्रभू :** (जल्म : १५ फेब्रुवारी १९२२, कवळें - फोंडें).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान आनी तिसरें वर्स लिसेंवाचें शिक्षण घेतलें. तो 'क्वीट गोवा ओरगनायझेशन' आनी 'गोवन नॅशनल कोनफरन्स' चो वांगडी आशिल्लो. जनार्दन शिंक्रे आनी गील्बर्ट रिबेलो हांच्या फुडारपणाखाल तो घातकी भूंयगत वावरांनी वांटो घेतालो. तो कवळेंचो रेजिदोर आसतना पत्रकां आनी पुस्तिका वांट्टालो. पोलिसांनी ताचें घर सोदून काडून ताच्या घरांतलें राश्ट्रीय साहित्य जप्त केलें. ताका कामावयल्यान काडून उडयलो. तशेंच वीस वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. १३ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरून धा म्हयन्यांखातीर बंदखणींत दवरलो. उपरांत १२ जून १९५५ ह्या दिसा ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शिंग :** एक वायुवाद्य. पुर्विल्ल्या काळांत हें वाद्य रेडो, बैल ह्या जनावरांच्या शिंगांपसून तयार करताले. पूण हालीं हें वाद्य पितुळचें करतात. ताची लांबाय सुमार चार ते स फूट आसता. तातूंत चार पांच नळयो एकांत एक बसयल्ल्यो आसतात. सगळयांत व्हडले नळयेचें तोंड चडकरून स इंच व्यासाचें आनी दुसरें तोंक सुमार अर्द इंच व्यासाचें आसता.

संगीत रत्नाकराच्या वाद्याच्या अध्यायांत ह्या वाद्याविशीं म्हायती मेळटा ती अशी - हतयाचे सोंडयेभशेन तोंड आशिल्लें, गुळगुळीत, कसलोच दोश नाशिल्लें रेडयाचें शिंग घेवन ताचेर धोतऱ्याच्या फुलाभशेन आकार आशिल्लो, बैलाच्या शिंगाचो आठ आंगळां लांबायेचो कुडको, नाद व्हड करपाखातीर बसोवंचो. दुसऱ्या तोंकाक फुंकपाखातीर बारीक बुराक करचो. त्या बुराकांतल्यान फुंकल्यार तुथू ऽऽ असो आवाज जाता. महाभारताच्या भीष्मपर्वांत 'गोविषाणिका' नांवाच्या एका वाद्याचो उल्लेख आसा, तो ह्याच वाद्याचो आसुंये.

ह्या वाद्याचो आवाज खूब पयसमेरेन आयकूंक येता. पयलींच्या काळांत राजेराजवाड्यांच्या स्वारीच्या समारंभावेळार, तशेंच कसलीय सुचोवणी वा संदेश दिवपाखातीर ह्या वाद्याचो उपेग करताले. वेगवेगळया उत्सवांवेळार, देवस्थानांनी हालीं हें वाद्य वाजयतात.

ह्या वाद्याचेर कसलेंय स्वरबध्द गीत वाजोवंक मेळना.

हाका 'रणशिंग' अशेंय नांव आसा. हें वाद्य जनावराच्या शिंगांचें आसता म्हूण सकयल्ल्या वर्गाचे लोक तें वाजयतात.

मद्रास आनी नेपाळ ह्या प्रदेशांनी पितूळच्या शिंगांची खूब नामना आसा. नेपाळांत सर्पाच्या आकृतीचीं वा व्याघ्रमुखी शिंगांय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**शिंगणापूर - (१) :** अहमदनगर जिल्ह्यांतल्या नेवासे तालुक्यांत सोनई गांवापसून तीन मैलांचेर शनीचें शिंगणापूर हें एक क्षेत्र आसा. हांगा शनीचें एक स्वयंभू तळप आसा. सुमार देडशें वर्सांपयलीं एका व्हाळाक आयिल्ल्या हुंवारांत हें तळप व्हांवत व्हावंत सोनई गांवालागीं आयलें. तेच राती शनीदेवान एका गांवकाराच्या सपनांत दृश्टांत दिवन सांगलें, 'हांव शनीदेव आसून मामा - भाच्यांनी मेळून म्हजी स्थापणूक करची'. गांवकऱ्यानी तशेंच केलें. शनीचें हें काळें तळप स हात उंचायेचें आसा. ताचेर कसलेंच धांपणें ना. एका वेपाऱ्याक तो आंगवणीक पावलो म्हणून ताणें ताचभोंवतणीं फकत एक पेड बांदलां.

ह्या गांवाचेर कसलेंय अवर्शण आयलें जाल्यार ह्या देवाक कौल (प्रसाद) लायतात. संवसार पाडवो आनी श्रावण म्हयन्यांतल्या सगळया शेनवारा हांगा जात्रा आसता. जात्रेक येवपी भावीक प्रवरा आनी गोदावरी न्हंयेच्या संगमावयलें उदक कावडींनी भरून हाडून शनीक ओंपतात. ताका तेल, फुलां, बिब्बे, कवड्यो, उडीद आदी वस्तूय ओंपतात. बायलांक मात हांगा देवाची पुजा करूंक मेळना.

हांगा उदासीबाबा नांवांचो एक साधू रावतालो आनी शनीची पुजा करतालो. सद्या त्याच पंथांतले लोक हें काम करतात. हांगा सरभोंवतणचीं बरींचशीं भजनी मंडळां येवन भजनाच्यो कार्यावळी करतात.

**शिंगणापूर - (२) :** सातारा जिल्ह्यांत, माण तालुक्यांत दहिवडीसावन सुमार तेरा मैलांचेर एक स्वयंभू शिवस्थान आसा ताका शिखर शिंगणापूर अशें म्हण्टात. शंभुमहादेव नांवाच्या दोंगरार हें शिवाचें देवूळ आसा. भोंवतणी दाट रान आसा. शिंगणापूर हो गांव दोंगरासकयल आसा. हो गांव देवगिरीच्या सिंधण यादवान वसयलो आनी दोंगराच्या तेमकावयलें हें देवूळय ताणेंच बांदलें. शिवाजी महाराजाचो आजो मालोजी हाणें हांगा एक तळी बांदली.

ह्या देवळांक ४०० सोंपणां आसात. वाटेर शांतलिंगस्वामीची समाधी आसून तिचेमुखार खडकेश्वराचें देवूळ आसा. शिवमंदिराक फातराचो प्राकार आसून ताका चार दरवटे आसात. प्राकारांत बऱ्योच दिपमाळो आसात. मुखेल मंडपांत पांच पाशाणाचे नंदी आसात. गर्भकुडींत शिव प्रतिकां म्हणून पार्वतीचीं दोन स्वयंभू लिंगां आसात. हांगासल्ली एक घांट पुर्तुगेजांनी दिल्ली आसा.

देवळाचे अस्तंतेवटेच्या दरवट्याच्या भायर बलिमहादेवाचें यादव काळांतलें हेमाडपंथी देवूळ आसा. सद्याक ताका अमृतेश्वर अशें म्हण्टात. हांगा महादेवाची दर दिसा चार खेपे पुजा जाता, तातुंतली दनपारची पुजा पंचामृताची आसता. सोमार आनी उमास हे दर्शनाचे मुखेल दीस. व्हडल्या उत्सवा दिसा देवाची पालखी आसता. महाशिवरात्रेक हांगा व्हड जात्रा भरता. तशेंच चैत्र म्हयन्यांतले धा दीस हांगा व्हड उत्सव आसता. जांणी देवाक आंगोवन घेतिल्लें आसता ते सकयल्लयान उदकाच्यो कावडी भरून हाडून देवाक अभिशेक घालतात. भुत्या तेलाची कावड ही सगळयांत व्हड. ते दोन व्हड रांजणूच म्हळयार जातात. ही कावड भरून वयर हाडटना ती खांद्यावयल्यान हाडपी लोक 'हे म्हाद्या, धांव म्हाका सांबाळ', अशें देवाचें एकेरी नांव घेवन आड्डयो मारतात. हांगा भातंगडी नांवाची सुमार २५ हात लांबायेची बडी मराठवाड्यांतल्या 'भातंगडी' गांवांतल्यान हाडटात.

चैत्र शु. अष्टमीक शिव - पार्वतीच्या लग्नाचो सुवाळो जाता. ह्या लग्न सुवाळयाखातीर फेटो विणपाचो मान ज्या कुटूंबांक मेळिल्लो आसता तीं कुटूंबां वर्सभर तें काम करतात. ह्या फेटयाची लांबाय सुमार ५५० फूट इतली आसता. ताचें एक तोंक अमृतेश्वराच्या आनी दुसरें शंभुमहादेवाच्या तेमकाक बांदतात. ह्या लग्नसुवाळयाविशीं एक काणी आसा ती अशी -

कैलासाचेर शिव - पार्वती सारीपाट खेळटालीं. खेळांतलो दर एक डाव शिव हारतालो तें पळोवन नारदान शंकराक तिडायलो. शिवाक तिडक मारली तो कैलासावयल्यान सकयल देंवून येवन शिंगणापूरच्या दोंगरार गुपीत रितीन रावंक लागलो. तेन्ना पार्वती भिल्लिणीच्या भेसांत ताचो सोद घेत हांगा पावली. दोगांयचीय भेट चैत्र शु. पंचमीक जाली आनी त्या दिसा तांचें परत लग्न जालें.

ह्या लग्न सुवाळयाक पंचमीक हळद लायतात आनी अष्टमीक हें लग्न जाता. दोन जंगम माळी देवाक दिसपट्टो निवेद्य दाखयतात. तेरखातीर आंकवार रावतात. एकादशीच्या दिसा घोड्याचेर बसून आनी पांयांत जोतीं घालून देवळांत वचपाचो मान नागपुरच्या भोसल्याक आसता. ह्या देवाक 'दवणो' खूब आवडटा म्हणून तांची लागवड हांगा व्हाडा प्रमाणाचेर करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**शिंदे, विठ्ठल रामजी :** (जल्म : २३ एप्रिल १८७३, जमखिंडी - कर्नाटक; मरण : २ जानेवारी १९४४, पुणे).

एक समाजसुदारक, धर्मचिंतक, तत्त्वचिंतक आनी ध्येयवादी विद्वान मनीस. ताचो बापूय रामजी बसाप्पा पंढरपूरचो निश्ठावान वारकरी आनी आवय यमुनाबाई धर्मीक वृत्तीची आशिल्ली. साधू संतांच्या विचारांच्या परिणामाक लागून तांच्या घरांत कसलोच भेदभाव नाशिल्लो. मुळचें घराणें सधन आनी सुखवस्तू आशिल्लें. पूण पारमार्थिक गृहस्थ

आशिल्ल्यान ताच्या बापायचें संवसारांत लक्ष लागलेंना आनी तेरवातीर ह्या घराब्याच्या संसाराची वाताहात जाली.

विठ्ठल हो मुळांत हुशार आनी क्रियाशील आशिल्लो. जमखंडी हांगा इ.स. १८९१ वर्सा तो मॅट्रिकची परीक्षा पास जालो. ल्हानपणा सावन ताका वाचनाची आनी भौशिक कार्याची आवड आशिल्ली. नामनेचो समाज सुदारक गोपाळ गणेश आगरकर हाच्या 'सुधारक' ह्या पत्रांतल्या विचारांचो परिणाम विठ्ठलाच्या मनाचेर जालो. बाणेदार, करारीपणा आनी अडचणी, संकश्टा हांकां तोंड दिवपाची जिद्द पूर्वपरंपरेंतल्यान ताका मेळिल्ली. फुडल्या शिक्षणाखातीर तो पुण्याक आयलो आनी इ.स. १८९८ वर्सा बी. ए. जालो. विश्वविद्यालयांत आसतनाच मिल, स्पेन्सर हांच्या तत्त्वज्ञानाचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. ह्याच काळांत प्रा. माक्स म्यूलर ह्या अस्तंती तत्त्ववेत्त्याकडे ताची वळख जाली. धर्मावयलीं ताचीं अभ्यासपूर्ण व्याख्यानां, अस्तंती विचारांविशीं ताका आशिल्ली सहानुभूती आनी संस्कृत भाशेची ओड ह्या गजालींक लागून विठ्ठलरावाच्या मनांत ताचेविशीं आदर उत्पन्न जालो. ह्या सगळ्या कारणांक लागून ताच्या मनांत समाजसुदारणेविशीं ओड आनी आस्था निर्माण जाली. विद्यार्थी जिणेंतूच ताणें भौशिक कार्यांत लक्ष घालपाक सुरवात केली.

इ.स. १८९५ वर्सा पुण्यांत भरील्ल्या राश्ट्रीय सभेच्या अधिवेशनांत विठ्ठलरावान स्वयंसेवकाचें काम केलें. ह्या अधिवेशनांत 'ब्रिटीश अँड अमेरिकन युनेटेरियन असोसिएशन'चो रेव्ह. डॉ. संडरलँड हाचें व्याख्यान ताणें आयकलें. डॉ. संडरलँड एकेश्वरी मताचो आशिल्लो. ताचे विचार विठ्ठलरावाक मानवले. विठ्ठलरावान ताचेकडे चर्चा केली आनी ताचें वाङ्मय वाचून काडलें. तातुंतल्यान ताचें मन एकेश्वरी वादाकडे ओडलें. भारतांतले प्रार्थनासमाज आनी ब्राह्मोसमाज हे एकेश्वरी मताचेच पुरस्कर्ते आशिल्ले. डॉ. रामकृष्ण गोपाळ भांडारकर, न्या. रानडे, न्या. तेलंग, न्या. मंडलिक हे त्या काळांतले नामनेचे विद्वान प्रार्थनासमाजाचे फुडारी आशिल्ले. तांचोय प्रभाव विठ्ठलरावाचेर पडलो आनी रोखडोच तोय प्रार्थनासमाजाचो सभासद जालो.

अमेरिकेंतल्या युनिटेरियन असोसिएशनान भारतांतल्या एकेश्वरी पंथाच्या एका तरनाट्याक विलायतेंत शिकपाखातीर एक शिश्यवृत्ती दवरील्ली ती डॉ. भांडारकर हाचे शिफारसीन विठ्ठलरावाक मेळ्ळी. तशेंच ताका सयाजीराव गायकवाड हाचो अर्थीक आदार मेळ्ळो. वकील जावपाखातीर केल्लें एल्एल्. बी.चें शिक्षण ताणें सोडून दिलें. आजन्म धर्मप्रचारक म्हणून रावपाचो सपूत घेवन ताणें जिणेंतलें ध्येय आनी धोरण निश्चित केलें. इ.स. १९०१ वर्सा ताणें मँचेस्टर हांगाच्या 'कॉलेज ऑफ थिऑलॉजी'त प्रवेश घेतलो. थंय दोन वर्सां रावन जगांतल्या सगळ्या धर्मांचो खोलायेन तुळात्मक अभ्यास केलो. मुळांत संस्कृत भाशेचें बरें गिन्यान आशिल्ल्यान बौध्द धर्म आनी पाली भास ताणें सहजतायेन आत्मसात केली. युरोपांतलीं नामनेचीं स्थळां ताणें पळयलीं. ॲम्स्टरडम हांगा एक धर्मपरिशद भरिल्ली. ते परिशदेंत ताणें हिंदुस्थानांतलो उदार धर्म ह्या नांवाचो एक प्रबंध बरोवन वाचलो. तो थंयच्या सगळ्या विद्वानांक खूब आवडलो. हिंदुस्थानांत खिरस्ती धर्मप्रसारकांनी जो धर्मांतराचो यत्न सुरू केला, ताणें हिंदी लोकांचो प्रस्न सुटचो ना. सगळे मानवजातीच्या काळजाचो धर्म एकूच आसूंक शकता. हे नदरेन राजा राममोहन रॉय हाणें सुरू केल्लो ब्राह्मोसमाज ताका म्हत्वाचो दिसलो.

ऑक्टोबर १९०३ वर्सा विठ्ठलराव हिंदुस्थानांत परतलो. आनी ताणें ब्राह्मो समाजाच्या प्रचाराचें काम हातांत घेतलें. हें कार्य करतना ताणें भारतभर भोंवडी केली. तेन्ना ताका हांगाच्या अस्पृश्य समाजाची दयनीय अवस्था पळोवंक मेळ्ळी. ह्या अस्पृश्य वर्गाक स्पृश्य वर्गाकडल्यान खूब हाल, सोंसचे पडटाले. शेंकड्यांनी वर्सां हो समाज दैन्याचें, अज्ञानाचें आनी अपमानाचें जीणें जगतालो. स्पृश्य समाजान अस्पृश्याचे उदरगतीखातीर जर कांयच यत्न केलेनात जाल्यार समाजांतलो हो एक व्हड वर्ग किरिस्तांव आनी मुसलमान ह्या धर्मांनी ओडटलो आनी उपरांत तो हिंदुंचो एक कट्टर दुस्मान म्हूण उबो जातलो अशें विठ्ठलरावान अनुमान काडलें. हिंदू समाजाची लोकसंख्या उणी जातलीच. तेभायर निमाणेमेरेन ही वेर उरतली, ह्या विचारान विठ्ठलरावाचें मन अस्वस्थ जालें. ताणें अस्पृशांचे उदरगतीखातीरच आपली जीण सारपाचें थारायलें.

इ.स. १८९५ वर्सासावन ताचो राश्ट्रीय सभेच्या अखिल भारतीय फुडाऱ्यांकडेन परिचय घडत आशिल्लो. आपल्या कार्याखातीर तांची मदत मेळोवपाखातीर तो सतत यत्न करतालो. इ.स. १९१७ वर्सा राश्ट्रीय सभेचें अधिवेशन डॉ. ॲनी बेझंट हिचे अध्यक्षतेखाल जालें. विठ्ठलरावाच्या यत्नान त्या अधिवेशनांत अस्पृश्यता निवारणाविशीं थाराव आयलो आनी तो एकमतान संमत जालो. अस्पृश्यांतले सगळे धर्मीक निर्बंध रद्द करून तांकां मनीसपणाचे सगळे हक्क स्पृश्यांभशेनच मेळचे आनी सगळ्या उद्योग धंद्यांनी तांकां सारकी सुवात मेळची असो तो थाराव आशिल्लो. ताकालागून अस्पृश्यतानिवारणाचो विशय अखिल भारतीय पांवड्याचेर पावलो. हें कार्य करतना ताका खूब अडचणींक तोंड दिवचें पडलें. हें कार्य करतना समाजसुदारणेच्या हेर गजालींकडे तो लक्ष दितालो. मद्यपान, देवदासीपद्दत, शिगम्यांतले बीभत्स प्रकार हांकां बांद घालपाखातीर ताचे सतत यत्न चालू आशिल्ले. समाजसुदारणे इतकेंच राश्ट्रीय स्वातंत्र्याचें म्हत्व आसा अशें ताचें मत आशिल्लें.

इ.स. १९०६ वर्सा लोकमान्य टिळकाक बंदखणीची ख्यास्त जाली आनी मंडालेक धाडलो. मुंबय प्रार्थना समाजांतले उपासनेंत लोकमान्य टिळकाक आयुरारोग्य लाबचें म्हूण शिंदेन प्रार्थना केली. नेमस्त वृत्तीच्या भांडारकर, चंदावरकर, ह्या फुडाऱ्यांक तें मानवलेंना. उपरांत मतभेद वाडचे न्हय म्हूण शिंदेन आपूण जावन प्रार्थना समाजाचो

राजीनामो दिलो. प्रार्थना समाजाच्या प्रचारकाचो अधिकृत संबंद तुटलो तरी उदारधर्माचो सदस्य आनी प्रवक्तो म्हणून शिंदेन आजन्म कार्य केलें.

ऋषितुल्य व्यक्तित्व आनी परमेश्वरावयली निश्ठा हाकालागून लोक ताका 'महर्षी' म्हणूंक लागले. राजकारणांत, समाजकारणांत आनी धर्मकारणांत तो जहाल आशिल्लो. लोकमान्य टिळक आनी महात्मा गांधी हांचेविशीं ताका खूब आदर. पूण धर्म आनी समाजसुदारणा ह्या मळांचेर जेन्ना जेन्ना हे दोगय फुडारी मवाळ जाताले, तेन्ना शिंदे तांच्या मताक विरोध करतालो. महाराष्ट्रांतलो प्रार्थना समाज आनी ताचे फुडारी राजकारणांत मवाळ आशिल्ले म्हूण धर्मक्रांतिकारक आनी राश्ट्रीय नदरेन जहाल आशिल्ल्या ब्राह्मो समाजाचो शिंदे पुरस्कर्तो आनी प्रचारक जालो. विश्वधर्माचे बसकेचेर राश्ट्रीय एकात्मता फाव जावंची म्हूण कुटुंबियांसकट ताणें स्वताक ह्या कार्याक ओंपलो. धर्म आनी ताची सुदारणा ही महर्षी शिंदे हाच्या विचारांची आनी जिणेची बसका आशिल्ली. बायलांक 'चूल आनी मूल' ह्या क्षेत्राभायर येवंक मेळचें म्हूण इ.स. १९२४ वर्सा 'कौटुंबिक उपासना मंडळ' पुण्यांत सुरू केलें. शिंदे हो धर्मशास्त्रज्ञ, समाजशास्त्रज्ञ, भाशा व्युत्पत्तितज्ञ आशिल्लो. तशेंच प्रभावी वक्तो, मार्मिक लेखक, इतिहाससंशोधक हे नदरेन तें अश्टतासी व्यक्तीमत्व आसलें.

त्यागवृत्ती, ज्ञानयोग, कर्मयोग, भक्तियोग हांचो संगम कर्मवीराचे जिणेंत दिसून येता. तांणी स्थापन केल्ल्यो संस्था अशो आसात - (१) डिप्रेस्ड क्लासेस मिशन इ.स. १९०६, (२) कौटुंबिक उपासना मंडळ इ.स. १९२४ (३) ब्राह्मो समाज, वाई, जि. सातारा इ.स. १९३३.

कर्मवीरान बरयल्ले ग्रंथ - (१) भारतीय अस्पृशांचा प्रश्न (२) माझ्या आठवणी आनी अनुभव (३) शिंदे लेखसंग्रह (लेखमाळ).

- कों. वि. सं. मं.

**शिंपी :** एक जात. महाराष्ट्र आनी कर्नाटकांत ह्या लोकांची चड वसती आसा. मुळांत शिंपी ही जातच नाशिल्ली. शिलाय म्हळयार कपडे शिंवप हो एक वेवसाय आशिल्लो. हो वेवसाय करपी सगळयां वर्गाचे लोक शिंपी हे जातींत आस्पावले. देखून ह्या शिंपी समाजांत हिंदूंवांगडाच, लिंगायत, जैन आनी मुसलमान लोकय आसात.

शिंपी लोक हे मुळांत क्षत्रिय आशिल्ले. परशुराम जेन्ना पृथ्वी निःक्षत्रिय करपाक गेलो तेन्ना ह्या लोकांनी कपडे शिंवपाचो पेशा आपणायलो, अशें हे लोक सांगतात. पयलीं हे लोक कपडे रंगोवपाचो धंदो करताले. पूण उपरांतच्या काळांत कपडे रंगोवपी लोकांची एक वेगळी जात जाली. शिंपी लोकांत आयजलेगीत रंगारी नांवाची पोटजात आसा.

हें जातींत खूब पोटजाती आसात. अहीर, भावसार, चतुर, कोकणी, मराठा, नागलिक, नामदेव, रंगारी वा गोपाळकाली, पंचम, शेटवाल, श्रावक वा जैन, यकताटे, लिंगायत वा शिवशिंपीगार, जोगडा ठाकर, शिंपी वैश्णव, नामदेव शिंपी, मुसलमान अशो तांच्यो पोटजाती आसात. नामदेव हो महाराष्ट्रीय संत शिंपी जातींतलो आशिल्ल्यान शिंप्यांतल्यो खुबशो पोटजाती आपल्या नांवांत नामदेव ह्या नांवाचो आस्पाव करतात. देखीक - नामदेव कोंकणी शिंपी, नामदेव मराठा शिंपी. सामान्यपणान ह्या पोटजातींनी रोटी - बेटी वेव्हार जायनात.

भावसार समाज हिंगलाज देवीचो उपासक आसा. शिंपी समाजांत नामदेवाचो जल्म जातकच भावसारांतले कांय जाण ताचे अनुयायी जाले आनी तांणी भक्तिपंथाची साथ धरली. तेन्ना हिंगलाज देवीचे उपासक भावसार नामदेव शिंप्यापसून वेगळे रावंक लागले. ताकालागून फुडें हे दोन भेद जाले.

शिंपी लोकांत अवसरे, बगाडे, बाक्रे, कळसकर, करमुसे, कोल्हे, फुटाणे, पोटे, सरोदे, पाडळकर, निरगुडे अशीं आडनांवां आसात.

शिंपी लोकांत बरेचशे लोक वारकरी पंथाचे अनुयायी आसात. खानदेशांतले कांय शिंपी लोक स्वामीनारायण आनी कबीर ह्या पंथांचे अनुयायी आसात. हे लोक बहिरोबा, बालाजी, भवानी, जनाई, जोतिबा, खंडोबा, विठोबा ह्या देवतांक भजतात.

कर्नाटक आनी महाराष्ट्र हांगाच्या शिंप्यांची कातर, सुयो आनी गज (माप - पट्टी) तशेंच पंचपालवी हीं देवकां आसात. कोंकणांतल्या शिंप्यांचीं आंब्याचीं पानां, रुमडाच्यो बडयो आनी पिपळाचीं पानां हीं देवकां आसतात जाल्यार अहीर शिंप्यांचीं सूप, मातयेचो बुडकुलो आनी आंब्यांचीं पानां हीं देवकां आसतात.

श्रावण शिंपी जैन आसून, ते चोवीस तीर्थंकरांची पुजा करतात. तशेंच ते बालाजी सोडून हिंदुंच्या सगळया देवांक भजतात. तांचो पुरोयत तांचेच जातीचो आसता.

ह्या लोकांत एकाच गोत्रांत आनी एकाच आडनांवांत लग्न करीनात. सादारणपणान आतेभावाकडे लग्न जातात. न्हवऱ्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता आनी सामान्यपणान हिंदू चालीरितीन पुराणोक्त विधीन लग्नसुवाळो करतात. पूण कांय सुवातींप्रमाण हातूंत बदल दिसता. बेळगांव जिल्ह्यांतल्या गोपाळकाली शिंप्यांत, लग्न सुवाळो जातकच न्हवरो व्हंकलेगेर वता आनी घरांतलो एक देव चोरून घेवन येता. उपरांत दादल्याचो भेस करून व्हंकल न्हवऱ्यागेर वचून ताचे फाटीचेर थापटां मारता. उपरांत ती ताका आपलेवांगडा येवपाक विनवणी करता.

नासिक जिल्ह्यांत, व्हंकल - न्हवऱ्याची तकली एकमेकाक लावन तांच्या वस्त्रांची गांठ मारप हो लग्नांतलो मुखेल विधी आसता.

पौष, आषाढ आनी भाद्रपद हे म्हयने सोडून हेर खंयच्याय म्हयन्यांतले उमाशेक विधवा बायलेचें लग्न जाता. ह्या लग्नाक घरांतले मुखेली आनी ब्राह्मण पुरोयत उपस्थित आसतात. लग्नाच्या दुसऱ्या दिसा फांतोडेर हें नवें जोडपें मारुतीच्या दर्शनाक वता, तेन्ना तांकां कोणेंच पळोवंक फावना. ठाणें जिल्ह्यांत विधवेचें लग्न तांबडे - हळदुवे पटे ओडिल्ल्या धव्या कपड्याकडे पयलीं करतात आनी उपरांत तो कपडो न्हवऱ्याकडे दितात. तेउपरांत व्हंकलेची व्हॉंट भरतात आनी न्हवऱ्या - व्हंकलेच्या वस्त्रांक गांठ मारतात.

श्रावण जैन शिंपी समाजांत भुरगें जल्मतकच पांचव्या दिसा सटीची पुजा करतात. चलो जाल्यार बारा दीस आनी चली जल्मल्यार चाळीस दीस सुयेर पाळटात. चल्याचें जावळ पांचव्या म्हयन्यासावन पांचव्या वर्साभेरेन केन्नाय काडटात. चल्याची मूज धाव्या वर्साभितर करतात. त्यावेळार त्या भुरग्याचेर पार्श्वनाथाचें तीर्थ उडयतात. मूज जातकच तो भुरगो जैन जाता.

शिंपी लोक मडें लासतात. ते श्राध्द आनी म्हाळ करतात. श्रावण शिंपी मरणा धडेर पावल्यार, घरांतले लोक धर्मीक ग्रंथांचें वाचन करतात. तशेंच चोवीस तीर्थंकरांच्या प्रतिमांक न्हाण घालून तें तीर्थ ताका पिवपाक दितात. मरतकच दादल्याक सवळें न्हेसोवन धवे चादरींत गुठलायतात. विधवा बायल मेल्यार तिकाय धवे चादरींत गुठलायतात. सवाशीण बायल मेल्यार तिका हळदुवें वस्त्र न्हेसयतात. धा दीस सुतक पाळटात. तेराव्या दिसा मेल्ल्या मनशागेर पार्श्वनाथाची पुजा करतात आनी सोयऱ्याधायऱ्यांक जेवण घालतात.

- कों. वि. सं. मं.

**शिगमो :** गोंयचो एक मुखेल लोकोत्सव. वेदपूर्व काळांतले लोकजिणेंतलें संस्कृतीक आविश्करण. मूळ संस्कृत उतर सुग्रीष्मक - सुगिम्मअ - सुगिम्म आनी ताचेपासून 'शिगमो' उतर घडलें आसुंये अशें मानतात. गोंयच्या महाराष्ट्र राज्यांत चड करून कोंकणांत मनोवपी शिगमो उत्सवाक 'शिमगा' अशें म्हण्टात. पूण 'शिगमो' उतराचेंच तें विद्रूप रूप आसा. गोंयांतलो शिगमो मुखेल करून हिंदू समाजांतल्या शेतकरी - कश्टकरी लोकांचो उत्सव. धाकलो शिगमो आनी व्हडलो शिगमो अशे ताचे दोन प्रकार.

अंत्रुज म्हालांतलो शिगमो फाल्गुन म्हयन्यांतले नमी दिसा सुरू जावन पुनवेक सोंपता जाल्यार भतग्रामांतलो शिगमो पुनवेक सुरू जाता. सत्तरी म्हालांत रंगपंचमीक शिगम्याक सुरवात जाता. कांयकडेन संवसार पाडव्यामेरेन तो चलता.

थारिल्ल्या दिसा चड करून फाल्गुनांतल्या नमी दिसा 'नमन' घालपाची कार्यावळ जाता. गांवचे लोक गांवांतल्या 'मांडार' जमतात. मांडावयले तुळशीमुखार (जी तुळस हिंदुंच्या घरामुखावयले तुळशीपरस व्हडली आसता) उबे रावतात. तुळशीचे पेडयेर दिवली पेटयतात. पांच नाल्लांची तळी दवरतात. मांडाच्या गुरूक आनी थळाव्या देवदेवतांक गंध - फुलां, फळां दवरून भौमान करतात. मांडाचेर धोल, ताशे, कांसाळें, जंगाट ह्या वाद्यांची पुजा करतात. घुडी, अबदागिरी हांकांय गंध - फुलां घालतात. ही घुडी त्या मांडाचें खास प्रतिक कशें आसता. मागीर कांसाळें, जंगाटीच्या ठेक्यार जती म्हण्टात. आरंभाची जत नमनाची आसता. नमनाचे जतींत गणेश, मांडाचो गुरू, गांवपुरूस, सांतेर, जाग्याचो देंवचार आनी थळावीं दैवतां हांच्या नांवाचो उल्लेख आसता. धोल, ताशे, कांसाळें ह्या वाद्यांच्या आदारान वाजोवप जाता. निमाणेकडेन पेडयेमुखार 'तळी' म्हण्टात.

ही तळी बरी व्हड आसता. तळी म्हणपी ती एका दमान म्हण्टात आनी बाकिचे 'भले भले' म्हणत साथ दितात. अंत्रुज म्हालांतल्या शिगम्या मांडार म्हणटा ती एक तळी अशी -

भले ग भले, घाटची नागेल तळकणा आली, भटामुला प्रसन्न जाली. (भले भले). एक सुपारी घातली, ताटामध्यें खुळखुळ जाली, दुसरी एक घातली, तो एक जल्मला, तेचेर गुरू पैजावला. (भले भले). माज्या गुरून कायरे केलां, हाती घेतला चौरंग, घुसला काय आग्रामदीं. (भले भले). मारली रे सव्वा हात चरी, तितून रोयली नागेलीची रोपी, शेणाचें आळें, कड्डाचें धाकण केवणी दिली पाणयाची. (भले भले). एका पानावयली एकपान दुवारी, दोन पान, तीन पान, चार पान, स पान, सात पान, आठ पान, णव पान, धा पान विस्तार जाला. (भले भले). भटाच्या मुलान काय रे केलां, नाक्षाचे जोडकर लवाचे लवी आणून दिल्या भटापाशीं. भटाच्या मुलान काय रे केले, ल्हानग्यान ल्हान केले, थोरल्यान थोर केले, कवळे मोडले चमत्कारी, देठाचे देठ लाविल्ले बत्तिसावरी. (भले भले). हाणले भरे अणेरीचे आटे, बांदले भरे केळेच्या सोपांनी, काळे गायचे नंदूक पाडे, तेंच्या पुश्टीवरी व्हावून घेवून गेला काय शापुरा शारा. (भले भले). शापुरा शारा काय एक करी दर, दोन करी मोल, दरेसारखी खुळखुळी अशी माजी नागेल बला (गोइंदा).

नमन जातकच दुसऱ्या दिसासावन खऱ्या शिगम्याक सुरवात जाता. सांजवेळच्या सुमाराक गांवचे दादले - भुरगे मांडार जमतात. हाका मेळ म्हण्टात. मेळांत बायलांक सुवात नासता. मांडाचेर पयलें नाचप आनी वाजोवप जाता. मेळांत जे जे खेळ करपाचे आसतात आनी सवंगां नाचोवपाचीं आसतात तीं पयलीं मांडाचेर तयार जातात. धोल, ताशे वाजयत, घुडयो, अब्दागीर, झाडांच्यो खांदयो, हुस्केच्या गोंड्यांच्यो ताळयो नाचयत 'ओस्सय SS' करीत मेळ मांडावयल्यान भायर सरता. पयलीं लागींच्या थारिल्ल्या देवळांत वचून थंय देवाळामुखार जत म्हणून नाचतात. मागीर दर एकल्याच्या आंगणांत खेळे खेळटात. खेळे दारांत येतकच घरांतली सवाशीण बायल पडवेर पावळेभितर ताटांत तांदूळ, नाल्ल आनी पैशे दवरून तळी दवरता. खेळे जती म्हणून आंगणांत भोंवर मारून खेळटात.

ह्यो जती वा जोती आख्यानात्मक तशेंच विडंबनात्मक स्वरुपाच्यो आसतात. आख्यानात्मक जतींत रामायण, महाभारत, पुराणां हातुंतले प्रसंग चितारिल्ले आसतात. सामाजीक विशयावयल्या जतींनी शिगम्यांत आस्पाव नाशिल्ल्या समाजाचीं फकाणां मारिल्लीं दिसतात. देखीक -

सकाळीं उठोन भट चडला पणसावरी
पणसाचो खांदो म्होडोन पडला जमनीवरी

x x x

वेंतभर बामणाची हातभर शेंडी

जती जातकूच 'तळी' म्हण्टात. केन्ना व्हडलीय तळी म्हण्टात वा वेळ उणो आसल्यार ल्हानशी तळीय म्हण्टात, ती अशी -

तळी रे तळी सासणाची तळी
आरती आयली उतरली खेळयांनी
घरदार भरू तुजें तिळतांदळांनी
आरती आली रे हासवंत
घरदार नांदू तुजे सासवंत

तळी म्हणून जातकच खेळे ताटांतले तांदूळ खेळळया त्या घराचेर उडयतात. ताटांत तळी म्हणून दवरिल्ले नाल्ल (एक वा पांच) आनी तांदूळ एकलो साकांत पुंजायता. अशे करून एक एक घर खेळटा. अशे तरेन मेळ थारिल्ल्या एका एका वाड्यार आनी एका एका गांवांत खेळटा.

सांजवेळां भायर सरिल्ले मेळ व्हडा रातीमेरेन वाड्या वाड्यार भोंवत आसतात. हवेंत गरमी आसता. वातावरण उमेदी आसता. चान्न्याची पसय पडिल्ल्यान सगळयाक उजवाड आसता आनी भाटां - कुळागरांतल्यानय सोंपेपणी चलपाक मेळटा.

पयलींच्या तेंपार गांवांतले मेळ नमन घालून गांवाभायर खेळपाक वताले ते बद्द चतुर्दशीक परत गांवांत परतताले. मेळांतल्या लोकांची रावपा - खावपाची वेवस्था त्या त्या गांवचे लोक करताले.

कांयकडेन एकाच देवळाच्या थळांत कांय मेळ एकीकडेन येतात. फाल्गुन शुध्द चतुर्दशीक अंत्रुज म्हालांतल्या म्हार्दोळ गांवांत पंचक्रोशींतले जायते मेळ येतात. एका काळार निशाणेचे घुडयेखातीर दोन पंगडांमदीं आकांताचें झगडें आशिल्लें आनी तें पिळग्यान पिळगी चालू आशिल्लें. मेळांतली घुडी खूब मानाची आसता. ऊंच बडयेक तांबडो, नारींगी, भगवो असो फडफडपी कपडो बांदून ती तयार करतात. ही घुडी कोणे, कशी धरपाची ताचे संकेत थरिल्ले आसतात. ती आडवी करप ना. आर्का, सोपणां पोंदसून वतली जाल्यार वयर कोणें रावप ना.

शिगम्याच्या मेळांत जशे जती गावन नाचपी खेळे आसतात, तशी तरेकवार वेशभुशा केल्लीं सवंगां आसतात. तातूंत राम, सीता, कृष्ण, हनुमान अशीं पौराणिक पात्रां तशेंच शिवाजी, मावळे अशीं इतिहासीक सवंगां, तेचबरोबर गवळी, राकेस, भूत, जाण्टेलो, बेबदो, माकड, वांस्वेल असलीं सवंगां आसतात. दादले बायलांचीं सवंगां करतात. तोंडाचेर जे रुपडीं घालून येतात तांकां 'पोकळे' म्हण्टात. मेळांत तालगडी, तोणयांमेळ, गोफ, मोरूलें, काकाड्यां - नाच आदी नृत्यप्रकार जातात.

पेडणेच्या आनी कांयकडल्या शिगम्याच्या मेळाक 'रोमट' अशें म्हण्टात. रोमट म्हळयार शिगम्याचें वाजोवप. हातूंत व्हडलो नगारो आनी जघांट आसता. आकारान आनी वजनान तीं व्हडलीं आशिल्ल्यान दांड्याचेर बांदून दोन दोन मनशां हीं वाद्यां वाजयतात. एकाद्र्या मेळांत शिंग, कोन्नो, बांको असलीं वाद्यां आसतात पूण तीं पुर्तुगेज गोंयांत येवचे पयलींचीं. शिगम्यांत खंयचेंच स्वरवाद्य वापरनात. घनवाद्यां आनी तालवाद्यां हांचोच वापर जाता. हें वादन रूद्ररूप (Robust) पद्दतिचें आसा. हालिंच्या तेंपार मोरूलें, गोफ, दिवले नाच हांचेखातीर तबलें, हार्मोनियम हीं वाद्यां वाजयतात.

शिगम्यांत विधी आनी संकेतांक खूब म्हत्व आसा. दर एका मांडार ते वेगवेगळे आसतात. देवदैवतांच्या मानाभौमानाबरोबर विधींमदींय वाड्यावाड्या कणकणीं फरक आसा. मेळान अमकेच वाटेन वचपाचें, अमकेकडेन थारपाचें - थारपाचें ना, अमकेकडेन वाजोवप न्हय - उतर लेगीत काडिनासताना वचपाचें, अमकी शीम हुंपपाची ना, अमकीं घरां खेळपाचीं, अमकीं देवळां खेळपाचीं, अमक्या देवळांतल्या देवाचें दर्शन लेगीत घेवपाचें ना. ह्या संकेतांफाटलीं कारणां सगळयांक खबर आसताच अशें ना पूण परंपरेन ते संकेत तशेच चलत आयल्यात. फाल्गुनांतली पुनव ही 'शिगम्या पुनव' म्हणून मनयतात. ह्या दिसा दर घरांत वडे करतात आनी दारांत खेळूंक आयिल्ल्या खेळयांक आनी हेरांक वांट्टात.

कांयकडेन पुनवेक जाल्यार कांयकडेन पुनवे दुसरे दिसा 'होळी' जाता तर कांयकडेन पाडव्याक होळयेचो उत्सव मनयतात. थरिल्ल्या कुळागरांतल्यो एक वा दोन माडयो विधीसयत कातरून हाडटात. कांयकडेन माडयेबदला झाडाचें मूळ नाजाल्यार खांदो हाडटात. देवळाच्या थळांत थरिल्ले होळये सुवातेर हातुंतली एक माडी पुरतात. भट वा गुरव तिची पुजा करता. होळयेच्या मुळाक तण बांदून ताका उजो लायता. होळयेच्या मुळांत नाल्ल फोडटात. ह्या फुटिल्ल्या नाल्लांची कातली होळयेक वाजप करपी वाजंत्र्यांनी व्हरपाची आसता. दुसरी माडी दोन पंगड ओडून झुजयता आनी निमाणी ती जमनीर आदळून फोडून तातुंतलो गर प्रसाद म्हण ओडून भायर काडटात. कांयकडेन होळयेकडेन 'गडे पडटात'. कांयजाण आपूण 'गडो' पडटलो म्हण देवाक आंगोवन घेतात. धोलाच्या संथ तालार 'गड्यां रामायण' गायता आनी त्याच तालार गडे खुदतात आनी देवळामुखावयल्या मांडार एका भोंवरान नाचपाक लागतात.

कांयकडेन गडे मस्णां हाडपाक मसंडेंत वतात. मसंडेंतलीं

हाडांबी घेवन परत येतात आनी शिमेचेर उडयता. अशाच प्रकारची दिवचल म्हालांतली 'साळांतली गड्यांची जात्रा' प्रसिद्द आसा. मांडावयले गडे खुदून, नाचून जातकच मागीर तांकां न्हाण घालून निवळटात.

होळयेचो उत्सव जातकच मागीर 'मांड दवरपा' मेरेनच्या रातिंनी 'मांड राखपाक' घरांतले दादले मनीस (घराक एक तरी) वतात आनी थंयच न्हीदतात. मांड राखपाक वता तेन्ना जे कोण मांडार न्हीदपाक येनात तांगेल्या भाटां - कुळागरांतले नाल्ल, आडसरां, केळीं असली फळफळावळ सुतलावन हाडटात आनी ती मांडार सगळयांमदीं वांटून खातात.

आयतार, बुधवार अशा दिसांनी मांड दवरप जाता. पयलीं मांडार धोल - ताशांनी वाजोवप जाता. आपल्या भाटा - कुळागरांतल्या नाल्ल - बोंड्याक हात लावचो न्हय म्हणून मांडाभायल्या 'परकी' लोकांनी मांडार नाल्ल दिल्ले आसतात ते सोलून नाल्लार नाल्ल मारून फोडटात आनी कातली सगळयांक वांटटात. तुळशीचे पेडयेमुखार उबे रावून 'झाडो' नांवाचें गीत गायतात. एकलो म्हण्टा आनी बाकिचे साथ करतात -

राया दुर्योधना रे विडा उचिलला / कर्ण कर्ण म्हणून पाचरिला
माथ्याच्या मुकटान खेळ खेळयला / खेळ रावयला /
कान्हा देखला रे / चिक्रेतळा

थळाव्या देंवचाराक सोरो - रोंटाचे निवेद्य दाखयतात. सगळे शांतपणान खळयांत बसतात. एकलो सुपांत पिठाचें बावलें दवरता. सगळयांची दीश्ट काडटा आनी तें दिश्टीचें बावलें मसंडेंत व्हरून दवरता. हात - पांय धुवन परत मांडार येता. मांडावयल्या म्हाल घरांतली सवाश्ण ताका राट दाखयता. मांड दवरपाचे हे विधी कांय फरकान सगळेकडेन अशेच जातात. मांड दवरपाच्या ह्या विधीं बरोबर धाकलो शिगमो सोंपता.

व्हडलो शिगमो देवळांनी मनयतात. थारिल्ल्या दिसा देवाची पालखी भायर सरता. देवामुखार नाटकां जातात. दर दिसा देवळांत सुंवारी वाजयतात. घुमटां, समेळ, झांज आनी कांसाळें ह्या वाद्यांचें कांयप्रमणात शास्त्रीय बसका आशिल्लें हें वाजप. सुंवारींत चंद्रावळ, फाग, खाणपद अशे गावपा - वाजोवपाचे प्रकार आस्पावतात. चंद्रावळ हो प्रकार सामके धीमे लयींत सुरू जाता. दुगूण, चौगूण अशी लय वाडोवप जाता. मोड येतकच लय परत आदलेवरीच चलता.

सत्तरी म्हालांत 'रणमाले' हें लोकनाट्य शिगम्याच्या दिसांनी सादर जाता. दिवचल, कुडणे, मोरजी, कांसारपाल ह्या उत्तरेकडच्या गांवांनी 'घोडेमोडणी' जाता. सांगें, फोंडें हांगासर शिगमो सोंपतना 'वीरभद्र' हो प्रकार जाता. कांयकडेन हाणपेट प्रकार जाता. कांयकडेन 'न्हवरो' हो प्रकार जाता. न्हवरो नटून थटून व्हंकलेगेर वता. तेचवेळार मुखावयल्यान किरवड येता आनी अभद्र घडणूक घडली म्हणून न्हवरो पळून वता. नाटकासारखो हो प्रकार गोंयांत जायतेकडेन व्हडा उमेदीन जाता.

'धुळवड' वा रंग उडोवप हो प्रकार जायतेकडेन वेगवेगळे पद्दतीन जाता. कांयकडेन होळये दिसा, कांयकडेन दुसऱ्या दिसा पाडव्याक, जाल्यार कांयकडेन रंगपंचमीक तर कांयकडेन उमाशेमेरेन रंग उडोवपाचे प्रकार आसतात. रंग उडयतना बायलांक आस्पावन घेनात. फक्त देवळांतली सेवेकरी भावीण आनी पालखेमुखार नाचपी कलवंतां हांचेरूच रंग उडयतात. अर्थात नवे समाजीक जाणिवेन ही पद्दत आतां कालबाह्य जाल्या.

जांबावलेचो गुलाल होय शिगम्याचोच एक प्रकार. फाल्गुनांतल्या निमाण्या सप्तकांतल्या मंगळारा मडगांवांसावन लिंगाचें प्रतीक म्हण नाल्ल विधिपुर्वक जांबावले व्हरतात. थंय सात दीस उत्सव चलता. तातूंत 'धुळपेट' म्हळयार गुलालाचो दीस म्हत्वाचो. हातूंत बायलां सोडून सगळया जातीधर्माचे लोक मोटे उमेदीन वांटो घेतात आनी मागीर शेजारचे कुशावती न्हंयेच्या पाण्ट्यार न्हावपाक वतात.

धनगर जमातींतलो शिगमो वेगळे पद्दतिचो आसता. शिगम्यांत 'चपय' हो प्रकार जाता. हातूंत पदन्यासापरस हस्तमुद्रांचेर चड भर आसता. धोल, घुमट, बडयेन वाजोवपाची पंचधातूची थाळी, कोंडपावो वा सूरपावो (गळयांत हवा भरून स्वर तोडिनासताना वाजोवपाचो) हीं वाद्यां आसतात. हे जमातींतले दादले धोतर, आंगांत बाराबंदी असो भेस करतात. गळयांत उपरणें, माथ्याक मुंडासो ताचेर फुलांचो वा कपड्यांचो तुरो खोंयतात. मनगटाक कडें, गळयांत मणयांच्यो माळो आनी कानांत वांटकुळीं कर्णभुशणां घालतात. शिगम्यांत 'राधाकृष्ण'वा राधाकिर्तन नांवाचो नृत्यनाट्यप्रकार जाता. हातूंत कृष्ण, राधा (दादलो), पेंदो, यशोदा (दादलो) अशीं पात्रां येतात. घुमट आनी पावा वाद्यांचे साथीर कृष्णकथा मुखार वता.

तीस कोटी देव मध्यभागीं मांडला
पिवळया पितांबर कृष्ण शोभला.

अशा गीतान सुरवात जाता. मदीं मदीं 'भलरी गड्या' अशो घोशणा दितात. 'टाळो' नांवाचो असोच आनीक एक नृत्यप्रकार चलता.

गोंयांतलो शिगमो फाल्गुनांत सुरू जाता खरो पूण ताचेआदीं तिसवाडी म्हालांतल्या डोंगरी गावांत गोंयांतलो पयलो शिगमो 'इंत्रुज' ह्या नांवान माघ म्हयन्यांतल्या कृष्ण पक्षांतल्या पयल्या शुक्राराक सुरू जाता. गोंय सरकारान कार्निवालावांगडा शिगमो उत्सव भायल्या पर्यटकांक गोंयांत आकर्शित करपाच्या उद्देशान सरकारी थराचेर मनोवप सुरू केलें आनी पणजे हे राजधानीच्या शारांत चित्ररथ, रोमटांमेळ हाडून व्हड मिरवणूक काडपाची पद्दत सुरू जाली. १९८९ पासून गोंयांत पणजी शिगमोत्सव समितिची स्थापना जाली आनी उपरांत दर वर्सा पणजेंत, राज्य सरकाराच्या पर्यटन खात्याच्या पालवान शिगमोत्सव मनोवप सुरू जालें. वेगवेगळया पौराणीक

आनी समाजीक विशयांवयल्या चित्ररथांच्यो, पारंपारीक रोमटांमेळांच्यो आनी लोकनृत्यांच्यो राज्य पांवडयावयल्यो सर्ती हें ह्या शिगमोत्सवाचें मुखेल आकर्शण आसता. केंद्र सरकाराच्या पर्यटन मंत्रालयान शिगमो एक राश्ट्रीय उत्सव म्हण मान्यताय दिल्या. पणजी सारकिल्लो शिगमोत्सव मडगांव, वास्को, म्हापशें, फोंडें, काणकोण ह्या मुखेल भागांनी तशेंच आनीक कांय मुखेल सुवातींनी जाता. ह्या उत्सवाक लोकांचो उस्फुर्त असो सहभाग आसता.

- पुंडलीक नारायण नायक

## शिरगांवकर, मनोहरबुवा मुकुंद : (जल्म : पिसुर्लें - सत्तरी; मरण : ५ ऑगस्ट १९७८, दोडामार्ग - सावंतवाडी).

नामनेचो गोंयकार भजनी कलाकार. ताचे जल्मतारखेविशीं निश्चीत म्हायती मेळना. १९०९ ते १९१४ च्या अदमासाक ताचो जल्म जालो. ताचें मुळचें नांव गणेश. पूण ताका सुकडो ह्या नांवांनच वळखताले. पूण फुडें ताच्या मनोहरी गायनावयल्यान मा. दिनानाथ मंगेशकर हाणें ताका मनोहर हें नांव दिलें आनी तेन्नाच्यान ताका मनोहर ह्या नांवांन वळखूंक लागले. ताच्या बापायचें नांव मुकुंद आनी आवयचें रुक्मीणी. पिरायेच्या सुमार २० व्या वर्सा ताचें लग्न सरस्वती नांवाचे चलयेकडेन जालें. ताका नारायण, शशिकांत आनी गुरूदास तशेंच विणाबाई, वैजयंती आनी लतीका अशो चलयो आसात. मनोहरबुवान मराठी पांचवीमेरेन शिक्षण पुराय केलें. शिरगांवांतल्या लईराई देवस्थानाची सेवा करप, काल्यांत मृदंगाची साथ दिवप शेनाय वादन करप हो ताच्या घराण्याचो वेवसाय.



घरांतले संगीतकलेचे संस्कार मनोहराचेरय जाल्ले. ताका शेनाय, सूर्त, कांसाळें, तासो आनी ढोल हीं पंचवाद्यां वाजोवपाक येतालीं. ताणें तबलावादनाचें शिक्षण भिवामामा हाचेकडेन घेतलें. तशेंच शास्त्रीय संगीताचें शिक्षण ताणें वेरेंचो सखाराम हाचेकडेन घेतलें. तो नाटकांनीय वांटो घेतालो. ताणें काम केल्लीं कांय नाटकां आनी तातुंतल्यो भुमिका अशो : मेनका (मेनका), नंदकुमार (राधा), उग्रमंगल (पद्मावती), नारदाची नारदी (नारद), प्रणयी कांटक (शांताराम), पंताची सून (डॉक्टर आनी प्रभाकर). १९३५ वर्सा शिरगांवच्या कांय लोकांनी एकठांय येवन एक नाटक कंपनी काडली. ते कंपनीत बसयिल्ल्या संत सखू ह्या नाटकांत सखुची भुमिका मनोहरबुवान केली. ते भुमिकेंत विठ्ठल भक्तीचे अभंग गायतना ताका भजनाची आवड निर्माण जाली. उपरांत ताणें जायत्या जाणकारांकडल्यान प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष तरेन ही विद्या आत्मसात केली. कीर्तनकारांक सुरवेक तबलासाथ आनी मागीर हार्मोनियम साथ दिता आसतना ताणें जायते अभंग आनी ते गावपाची कला अवगत केली.

१९६२ वर्सा दिवचलच्या वांयगिणी गांवांत श्री सखारामबुवा बर्वे हाचे हस्तुकीं ताचो सत्कार केलो. तशेंच नोव्हेंबर १९७६ वर्सा अखील भारतीय गांधर्व महाविद्यालयाच्या संमेलनांत नाय राज्यपाल शिशिरकुमार बॅनर्जी हाचे हस्तुकीं सत्कार जालो. १९७३ वर्सा पिरायेच्या साठ वर्सांचेर ताचो जल्मगांव शिरगांव हांगा ताचो सत्कार जालो. गोंयची कला अकादेमी १९८० वर्सासावन गोंय पांवडयार ऑगस्ट म्हयन्यांत ताचे यादीक भजनी सर्त घडोवन हाडटा.

वारकरी भजन पद्धतीक, मैफिलीच्या शास्त्रीय संगीताची जोड दिवन भजनाचो आपलो असो खास बाज निर्माण करून तो पुराय गोंयच्या वाठारांनी शिकयलो आनी मनोहारी भजन ह्या नांवान जिचें वर्णन करूं येता अशी भजन परंपरा ताणें निर्माण केली.

मनोहरबुवा शिरगांवकार आनी सांगात्यांनी गायिल्लीं भजनांची 'मनोहारी भजनें' ह्या नांवान एक कॅसेट काडिल्ली आसा. भजन ह्या संगीत प्रकारांत गायन - वादनांतलो उच्च श्रेणीचो कला - अविश्कार घडोवन, मनोहरबुवान ह्या मळार आपलें एक अजोड अशें स्थान निर्माण केलें आनी भजनी सम्राट हें नांव सार्थ केलें.

- अनंत केळकार

## शिरवाडकर, विष्णु वामन : (जल्म : १२ फेब्रुवारी १९१२ पुणें; मरण : १२ मार्च १९९९).

प्रसिद्द आधुनिक मराठी कवी आनी नाटककार. 'कुसुमाग्रज' ह्या टोपण नांवान ताणें काव्य लेखन केलां. पुण्यांत ताचो जल्म जालो आनी थंयच ताचें भुरगेंपण गेलें. नासिकचे हंसराज प्राग्जी ठाकरसी कॉलेजींतल्यान बी.ए. जाल्या उपरांत सुरवेक कांय तेंप तो चित्रपट वेवसायांत गुंथिल्लो. १९४१ उपरांत पुणें, मुंबय आनी नासिकाक तो पत्रकार म्हूण वावुरलो. फुडें नासिकाक स्थायीक जाल्याउपरांत ताणें आपल्याक सदांखातीर साहित्यिक जिणेंत ओपून घेतलो.

जिवनलहरी हो ताचो सगळयांत पयलो काव्यसंग्रह १९३३त उजवाडा आयलो. विशाखा, किनारा, स्वगत, मराठी माती, छंदोमई, मुक्तायन, प्राथेय, म्हावृक्ष, हिमरेषा आनी वादळवेल हे ताचे हेर प्रसिद्द काव्यसंग्रह. ताच्यो चडशो कविता राश्ट्रवादाचेर आदारीत आसून, तांचो आस्पाव क्रांतिकारक काव्यांत जाता.

विष्णु शिरवाडकर हो एक उच्च दर्ज्याचो नाटककारय आशिल्लो. दुसरा पेशवा, कौंतेय, आमचं नाव बाबुराव, ययाती आनी देवयानी, वीज म्हणाली धरतीला, नटसम्राट, एक होती वाघीण हीं ताणें बरयल्लीं कांय प्रसिद्द नाटकां. जाल्यार वैश्णव, जान्हवी आनी कल्पनेच्या तीरावर ह्यो ताच्यो नामनेच्यो कादंबरी. कथाझेल्यांत फुलवाली,

सतारीचे बोल आनी इतर कथा; काही वृध्द, काही तरूण; प्रेम आनी मांजर हांचो आस्पाव जाता. काव्यात्मता आनी विचारप्रेरकता हें ताच्या कथा साहित्यांतलें खाशेलेंपण. ललीत निबंद, कथा संस्मरणांनी बालकथा आनी बालगीतां ताणें बरयल्यांत.

ताचें आस्वादक - समिक्षक हें रूप पळोवंक मेळटा. शिरवाडकर हो एक मानवतावादाचो पुरस्कर्तो - अन्यायाबद्दलची चीड, दलितांविशींची सहानभूती आनी समाजीक विशमतायेचेर केल्लो खर प्रहार हें ताचें प्रतिभागुणांचें खाशेलेंपण.

भारतीय साहित्यांत ताणें मोलादीक भर घाली म्हूण साहित्य नामनेचो असो भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार भेटोवन ताचो भोवमान केला, जाल्यार नटसम्राट ह्या ताच्या नाटकाक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळा. १९६४त मडगांवांत भरिल्ल्या ४५व्या अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद ताका फाव जाल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

## शिरसाट, रवींद्र वासुदेव : (जल्म : २७ नोव्हेंबर १९३०, कळंगुट - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तो चडसो भूंयगत वावरांनी वांटो घेतालो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी प्रदेशीक लश्करी न्यायालया मुखार उबो करून बारा वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. फुडें २७ ऑगस्ट १९५९ दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## शिरोडकार, अनंत कृष्णा : (जल्म : १६ मे १९२९, मयें - दिवचल).

सुटकेझुजारी. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तो भूंयगत वावरांनी वांटो घेतालो. तेचपरी मयेंच्या म्हत्वाच्या सुवातींनी तिरंगी बावटे लावप असलींय कामां तो करतालो. १५ जानेवारी १९४७ वर्सा पोलिसांनी ताका अटक केलो आनी ताच्या घराचेर तशेंच आस्पतीचेर जप्ती हाडली. उपरांत न्यायालयांत उबो करून ताका तीन वर्सां खर बंदखणीची आनी एक वर्स सादे बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त भोगतकच ताका दीवाक व्हेलो आनी थंयच्यान दोन वर्सांनी ताची सुटका जाली. १९७६ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## शिरोडकार, काशिनाथ : (जल्म : तरवळें, शिरोडा - फोंडा).

नामनेचो अभिनयकुशल नट. ताणें चवथी मेरेन मराठींतल्यान शिकप घेतलें. तशेंच संगिताचें मुळावें शिकप ताणें हार्मोनियम वादक शंकर पेडणेकर आनी गोंयचो श्रेश्ठ नाट्यदिग्दर्शक सखारामबुवा बर्वेकडल्यान घेतलें. मास्टर भार्गवरावाकडल्यान ताणें संगीताचें आनी नाट्यसंगीताचेंय शिक्षण घेतलें.

ताका ह्या अभिनयाची ओड वर्सुकी उत्सवाच्या रंगमाचयेन लायली. ह्या उत्सवांत जावपी सातय नाटकांक उपस्थिती लावप आनी प्रत्येक नाटक पळोवन जाल्या उपरांत दुसऱ्या दिसा आवयचीं पिंजकीं न्हेसणां न्हेसून बायलांच्या भुमिकांचें अनुकरण करप हो ताका छंद लागलो. स्त्री भुमिकेक योग्य असो आंगलोट, मुखामळ आनी आवाजाची देणगी ताच्या आंगांतल्या अभिनयाक पूरक थारली.

गांवच्या वर्सुकी जात्रेच्या नाट्योत्सवांत 'साक्षात्कार' ह्या नाटकांत ताणें द्रौपदीची भुमिका करून ह्या मळार पयलें पावल घालें. उपरांत पणजेच्या रथसप्तमीकर मंडळाच्या नाटकांनी ताणें नेमान स्त्री - भुमिका केल्यो. 'संधीसंग्राम' - द्रौपदी, 'एकच प्याला' - सिंधू, 'मानापमान' - भामिनी, 'भावबंधन' - लतिका, 'प्रेमसंन्यास' - लीला, 'दाजी धडपडे' - मंदा, 'उधार उसनवार' - शैलजा ह्यो भुमिका ताणें केल्यो. एक उत्कृश्ट कलाकार म्हणून ताणें गोंयांत आनी गोंयांभायर शाबासकी जोडली. नाट्य - माचयेवयल्या ताच्या योगदानाचो भोवमान हंस संगीत नाट्य मंडळ (फोंडें), सम्राट क्लब (कपिलेश्वरी), गोंय सरकार, गिरिजाबाई केळकर स्मृती संमेलन (फर्मागुडी), गोमन्तक मराठी अकादमी, मराठी रंगभुमी शतकोत्तर महोत्सव समिती, प्रतिभा फ्रेंडस सर्कल (बोरी), केपें पत्रकार संघ, प्रभाकर नाटक कंपनी (पुणें) सारकिल्ल्या मान्यवर संस्थांनी केला.

- कों. वि. सं. मं.

## शिरोडकार, ताराबाई : (जल्म : १८८९ शिरोडें; मरण ६ जुलय १९४९).

गोंयची नामनेची गायिका. भुरगेपणासावन तिका गायनाची आवड आशिल्ली. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा तिणें गायनाचार्य वझेबुवा हाचेकडल्यान संगीताचें शिक्षण घेतलें. उपरांत पंडीत भास्करबुवा बखलेकडल्यान एक वर्स तालीम घेतली. १९१२ वर्सा फुडल्या शिक्षणाखातीर ती पुण्यांत गेली.

१९१३ वर्सा मुंबय स्थायिक जाल्याउपरांत वेगवेगळ्या संगीत मंडळांत तिचे संगिताचे कार्यक्रम जावंक लागले. पदांतल्या कांय आंगांची परिपूर्तताय करपाखातीर तिणें मरहूम नत्यनखा आग्रेवाले हाचे बुध्दिमान खाँ साहेब महंमदखाँ हाचेकडे शिकपाक सुरवात केली आनी टप्पा, ठुमरी, गझल आदी प्रकारांचो अभ्यास केलो.

'मर्चंट क्लब', 'कृष्णविजय क्लब' ह्या नामनेच्या क्लबांत तिचें गायन जातालें आनी ह्या कार्यक्रमांक खूब नामनाय मेळटाली. तिची कीर्त इंदूरच्या महाराजांच्या कानार गेली. तेन्ना श्री. तुकोजीराव होळकार हाणें तिची दरबाराची खास गायिका म्हण नेमणूक केली.

- कों. वि. सं. मं.

**शिरोडकार, ना. के. :** (जल्म : १९ फेब्रुवारी १९०९, पणजी; मरण : ११ सप्टेंबर १९७७).

नामनेचो साहित्यिक. ताचें मराठी आनी इंग्लीश शिकप पणजे जालें. ताणें कथा, कादंबरी, ललित निबंद, नाटकां ह्या सारखें लिखाण केलां.

ताची पयली कथा १९३२ - ३३ वर्सा 'सुखाचा खेळ' ह्या नांवान उजवाडा आयली. 'सत्यकथा' मासिकाचे सर्तींत 'कर्तव्य पण किती कठोर!' हे ताचे कथेक दुसरें इनाम फाव जालें.

पारखर, नवे जहाज, मातीचे घर, चोर ! डाकू ! खुनी ह्यो कादंबऱ्यो ताणें उजवाडायल्यो. 'किमया', 'गालबोट', 'दीपगृह', 'बारा घोडे शर्यती दोन' ह्या नांवान ताचे कथासंग्रह प्रकाशीत जाल्यात.

ताच्या साहित्यांत गोंयचे फाटभुंये वांगडाच मुंबय, काश्मीर, आफ्रिका ह्या वाठारांची फाटभूंय उबी करून त्या त्या वाठारांतलीं पात्रां ताणें उबी केल्यांत.

१९३५ वर्सा 'समईतील जोत' हें नाटक बरोवन बॉम्बे थेटरांत ताचो पयलो प्रयोग केला. तशेंच नवयुग नाट्य कॉर्पोरेशन आनी नवीनता कलोद्यान ह्यो दोन नाटक कंपन्यो काडून नाटकाच्या मळार आपलें योगदान दिलें.

- कों. वि. सं. मं.

**शिरोडकार ऊर्फ नायक शिरोडकार, जयकृष्ण पुतू :** (जल्म : १९३२, फोंडा).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण इंग्लिशींतल्यान आनी माध्यमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. डॉ. लोहियान सुरू केल्ले चळवळीक लागून ताका सुटके झुजारखातीर वावर करपाची स्फूर्त मेळ्ळी. १९५३ सावन तो सुटके झुजारखातीर वावर करूंक लागलो. मोक्याच्या जाग्यांनी बसका घेवप आनी लोकांक सुटके झुजाविशींचें म्हत्व सांगप असलीं कामां तो करतालो. नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेच्या बेळगांव कॅम्पाखातीरय तो काम करतालो. तेन्ना पोलिसांनी ताका अटक केली आनी इकरा वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण फुडें ऑगस्ट १९५९ वर्सा ताची सुटका जाली. सुटका जाल्या उपरांत तो कुर्डी, सांगेंच्या शेतकामत्याचे उदरगतीखातीर वावर करूंक लागलो. गोंय सुटके उपरांत तो दोन फावट शिरोडा मतदार संघांतल्यान गोवा दमण आनी दीव विधानसभेचो वांगडी म्हूण वेंचून आयलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शिरोडकार, पंढरीनाथ नारायण :** (जल्म : २६ ऑगस्ट १९३२, लंगरबाग - तोरशें).

सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण इंग्लिशींतल्यान आनी माध्यमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. क्वीट गोवा ओरगनायझेशनचो तो कार्यरत वांगडी आशिल्लो. १९५४ ते १९६१ ह्या काळांत तो भूंयगत राष्ट्रीय वावरांनी वांटो घेतालो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शिरोडकार, ॲड. पां. पु. :** (जल्म : १२ ऑक्टोबर १९१६, म्हापशें; मरण : ? ऑगस्ट २००० ).

सुटकेझुजारी. ताचें मुळावें शिकप मराठींतल्यान जाल्यार पुर्तुगेज लायसियमचें ७ व्या वर्साचें शिकप पुराय करून 'डिप्लोमा इन पुर्तुगेज लॉ' हें कायद्याचें शिकप घेतलें. फुडाराक वकिली करून फाकिवंता वकिल म्हणून ताणें नामना जोडली.

१९३९ सावन ताणें गोंयचे मुक्ती चळवळींत वांटो घेतलो. गोंयचे मुक्तीखातीर स्थापन केल्ल्या नॅशनल काँग्रेस गोंयचे कार्यकारिणीचो पयलो वांगडी आनी उपरांत अध्यक्ष जलो. ताचो महाराष्ट्रांतल्या सेनापती बापटाकडे संपर्क आशिल्लो आनी ताका तो शस्त्रांची पुरवण करतालो. तेभायर लोकांमदीं स्वातंत्र्याची जागृताय करपाचे नदरेन तो बसका, सभा घेतालो. फुडाराक तो पुण्याक वचून 'सकाळ'चो उपसंपादक जालो. तांचेउपरांत तो मुंबय गेलो आनी 'नवशक्ती'चो वृत्तसंपादक म्हणून वावुरलो. थंय ताणें गोंयमुक्ती तशेंच गोंयच्या संदर्भांत इतिहासिक संशोधनात्मक लेख बरयले. 'दियारियु द आंगोल' हातुंतूय ताणें पुर्तुगेजींतल्यान लेख बरयले. 'आवेसे' ह्या दिसाळ्यांत मराठी - पुर्तुगेज भाशेचो सहसंपादक म्हणूनय ताणें वावर केलो. गोवन युथ लिगाचो तो कार्यकारिणी वांगडी आशिल्लो. तर काँग्रेस सोशलिस्ट पार्टीचो तो सचिव म्हणून वावुरलो. तेच प्रमाण संयुक्त महाराष्ट्र परिशदेचोय तो सचिव जालो. चळवळीच्या कामाक नेट हाडपाखातीर ताणें पेपरांतली नोकरी सोडली आनी गोंय काँग्रेसचो वांगडी जावन तो परत कार्यरत जालो. २५ सप्टेंबर १९४६ ह्या दिसा ताका पुर्तुगेज पोलिसांनी अटक केली आनी ताका ४ म्हयन्यांची बंदखण आग्वादा भोगची पडली. बंदखणींत आसतना सत्याग्रही म्हणून वागणूक न दिल्ल्यान ताणें थंय १४ दिसांचो उपास केलो. गोंय काँग्रेसचो सचिव जाले उपरांत ताणें १५ मे १९४७ ह्या दिसा करमळे सभा घेतली. तेखातीर ताका परत अटक केली. फुडें तो संघटनेचो

अध्यक्ष जालो. ताच्या यजमानपणारवाला जाल्ल्या करमळे अधिवेशनांत संस्थेची घटना संमत करून घेतली आनी पुराय स्वातंत्र्य आनी भारतांत गोंयच्या विलिनीकरणाचो थाराव मानून घेतलो. १६ डिसेंबर १९४७ ह्या दिसा ताका परत अटक केली आनी प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो केलो. न्यायालयान ताका आंगोलाक फोर्ट रोकाडस हांगा धाडपाचें फर्मान काडलें. १ जून १९५२ ते १२ मे १९५६ मेरेन तो सादे बांदेरियाक आशिल्लो. थंयसावन ताची सुटका जाली आनी ताका आंगोलाक रावपाक मेकळीकय दिली. आंगोला १५ वर्सांची काळया उदकाची रव्यास्त भोगता आसतनाच ताणें लो. टिळकाच्या 'गीता रहस्याचो' पुर्तुगेजींत अणकार केलो. आंगोलाक आसतना थंय ताणें राजकीय चळवळींत आनी थंयच्या स्वातंत्र्याच्या उठावांतूय वांटो घेतलो, म्हणून परत तीन म्हयन्यांची बंदरवण ताच्या वांट्याक आयली. सां पावलो फोर्ट बंदरवणींत ताका दवरलो. आंगोलाक आसतनाच 'लुआडा जॉनील दे आंगोला'चो सहसंपादक म्हणूनय ताणें काम पळयलें, लागींलागीं १५ वर्सां वयर बंदरवण आनी विजनवास ताणें भोगलो मागीर ताका लिस्बनाक धाडलो. थंयच्यान तो कराचीक पावलो आनी गोंय मेकळें जाले उपरांत स म्हयन्यांनी तो मायघरा परतलो.

१९६३ त महाराष्ट्रवादी गोमंतक हे राजकीय संघटनेचो तो उपाध्यक्ष जालो. १९६४ चे भौशिक वेंचणुकेंत शिवोले मतदारसंघांतल्यान तो वेंचून आयलो आनी गोंय, दमण आनी दीव विधानसभेचो पयलो सभापती म्हणून ताची बिनविरोध निवड जाली. उपरांत म. गो. पक्षाचो राजिनामो दिवन तो 'लोकदला'चो अध्यक्ष जालो. ताचे उपरांत जनता पक्षाचो उपाध्यक्ष जालो.

मराठी भाशेचो तो रवांपो अभिमानी आसून तो मराठी राज्यभाशा प्रस्थापन समितीचो अध्यक्ष म्हणून वावुरलो. गोमंतक मराठी अकादमीचो तो मानद अधिसदस्य जावन आसा.

ताणें 'भारतीय समाजविघटक जातिवर्ण व्यवस्था' हो ग्रंथ मराठींतल्यान बरयला आनी ताका गोंय कला अकादमीचो पुरस्कारूय लाबला. 'आठवणी माझ्या कारावासाच्या, काळया निळया पाण्याच्या' हें ताचें आपजीणेत्मक दुसरें मराठी पुस्तक. जाल्यार 'इतिहासाच्या दृष्टिकोनातून गोमंतकातील मराठी परंपरेचा उद्गम व विकास' हें ताचें तिसरें पुस्तक हालींच उजवाडाक आयलां.'जाती वर्णाचें समाजशास्त्र' हें ताचें कोंकणी पुस्तक बरेंच गाजलां.

केंद्र सरकारान १९७३ त ताम्रपत्र भेटोवन ताचो गौरव केला, तर गोंय शासनान १८ जून १९८१ ह्या दिसा ताचो भोवमान केला. वाराणसी सारनाथ हांगा भरिल्ल्या अरिवल भारतीय स्वतंत्रता संग्राम सेनानी समितीच्या १३ व्या अधिवेशनांत 'राष्ट्रवीर' पदवेन ताका गौरायला.

- कों. वि. सं. मं.

**शिरोडकार, मिनाक्षी :** (जल्म : ? कोरगांव, पेडणे; मरण : २ जून १९९७).

मराठी चित्रपट आनी संगीत नाटक मळावयली एक श्रेश्ठ अभिनेत्री.

तिचें शिक्षण मुंबय जालें. राममोहन इंग्लीश स्कुलांतल्यान ती मॅट्रीक पास जाली. तिका भुरगेपणासावन संगीताची आवड आशिल्ली. तिणें मुंबय आकाशवाणीवयल्यान नाटिका सादर केल्यात.

'ब्रह्मचारी' ह्या गाजिल्ल्या चित्रपटांत 'यमुना जळीं रवेळू रवेळ कन्हैया का लाजता' हें शृंगार गीत पेंवपाचो भेस घालून तिणें गायिल्लें. तेन्ना सनातनी लोकांनी आनी तथाकथीत संस्कृती रक्षकांनी तिचेर आनी चित्रपटाचेर तेरवातीर व्हडली टिका केल्ली. तेवेळचे परिस्थितीचो विचार केल्यार, तिचें तें कला प्रांतांतलें धाडसच म्हणचें पडटलें. उपरांतय जाल्ले टीकेक तिणें रवंबीरपणान तोंड दिलें. मराठी सिनेरसिकांनी मात तिचे ते भुमिकेची तुस्त केली.

अरिवल भारतीय नाट्य परिशदेन बाल गंधर्व भांगरा पदक दिवन आनी मराठी अकादमीन १९९१ वर्सा मानद वांगडीपद दिवन तिचो भौमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**शिरोडकार, रामराव नारायण :** (जल्म : १५ ऑक्टोबर १९२३, शापोरा - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेन मराठींतल्यान शिक्षण घेतलें. तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा आपल्या सात वांगड्यां सयत ताणें कायसुंवा हांगा सत्याग्रह घडोवन हाडलो. त्याच दिसा आसगांव हांगा पोलिसांनी ताका अटक केली. एक म्हयनो ताका आल्तीनो बंदरवणींत घाल्लो आनी उपरांत आग्वाद बंदरवणींत दवरलो. गोंय सुटके उपरांत बंदरवणींतल्यान ताची सुटका जाली. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शिरोडकार, लक्ष्मण बाळा :** (जल्म : १८ ऑक्टोबर १९१७, मयें - दिवचल).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठींतल्यान मुळावें शिक्षण घेतलें. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. डॉ. लोहियान केल्ले चळवळींत ताणें वांटो घेतिल्लो. आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या वावुरप्यांक भूंयगत राजकीय वावरांनी आदार दिवपाचें काम तो करतालो. १९४७ त ताका अटक करून दोन वर्सां दिवचल आनी रेईश मागूश बंदरवणींत १८ म्हयने दवरिल्लो. हाचेभायर दीव बंदरवणींत ताका पांच वर्सां रवर बंदरवणीची रव्यास्त भोगची पडली. १९७२ वर्सा

भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शिरोडकार, सखाराम भालचंद्र :** (जल्म : १० ऑगस्ट १९१५, शिवोली - बारदेस).

सुटकेझुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. आपा करमलकार ह्या सुटकेझुजाऱ्याच्या फुडारपणाखाल तो वावर करतालो. सुटकेझुजाऱ्यांक जाय त्या जाग्यार पावोवप, तांकां स्फोटकां हाडून दिवप असलीं कामां तो करतालो. २९ सप्टेंबर १९५७ ह्या दिसा आपले टॅक्सींतल्यान कामुर्लीच्यान वेरें रेईस मागूस हांगां स्फोटकां व्हरता आसतना पोलिसांनी ताका धरलो आनी पणजे पोलीस ठाण्यांत स म्हयने दवरलो. उपरांत २ जुलय १९५८ दिसा प्रादेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून सादे बंदखणीची ख्यास्त दिली. आग्वाद बंदखणींत चवदा म्हयने ख्यास्त भोगतकच १९५९ वर्सा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शिलकार, रामा मुकूंद :** (जल्म : २ मे १९४१, सावय वेरें - फोंडें).

सुटकेझुजारी. तो आझाद 'गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. विश्वनाथ एन्. लवंदे हाच्या फुडारपणाखाल शंभू पालकार, माधव कोरडे, रामदास चाफडकार हांच्या वांगडा तो सुटकेझुजाचो वावर करतालो (१९५३- १९५७). ९ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो, बंदखणींत घालो आनी ऑक्टोबर १९५५ त ताची सुटका जाली. पोलिसांनी ताचे आस्पतीची आनी घराची नाशाडीय केली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शिलकार, विद्याधर गणेश :** (जल्म : १० मे १९२६, सावय वेरें - फोंडें).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. बेळगांवच्यान राश्ट्रीय पत्रकां, पुस्तिका हाडप आनी गोंयच्या वेगवेगळया वाठारांनी वांटप, लोकांमदीं सुटकेझुजाविशीं प्रचार करप असलीं कामां तो करतालो. ताका लागून ३१ जुलय १९५४ ह्या दिसा ताका अटक केलो आनी अठरा दिसांनी सोडलो. ऑगस्ट १९५५ त सालाझाराक तेंको दिवपी कुस्तोदियो फेर्नांडीस हाचे हत्येंत ताचो हात आसा म्हूण ताका परत अटक जाली. सुमार एक वर्स ताका आग्वाद आनी अल्तिनार बंदखणींत दवरून ताची सुटका जाली. १९७४ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शिलकार, विष्णु गणेश :** (जल्म : ५ मार्च १९२१, सावय वेरें - फोंडें).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेनचें शिक्षण पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. हे संघटनेवरवीं तो सुटकेझुजाऱ्यांक आदार दिवप, तांकां रावपाक जागो दिवप, सुटके झुजाचो प्रचार करप असलीं कामां करतालो. १९५४ त पोलिसांनी ताका अटक केली आनी बंदखणींत घालो. उपरांत प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून बंदखणींत घालो आनी १९५६ वर्सा ताची सुटका जाली. १९७४ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शिलप्पधिकारम् :** एक तमिळ महाकाव्य. तमिळांतल्या पांच महाकाव्यांतलें हें सगळयांत उत्कृश्ट काव्य आसा. हें काव्य इ.स. च्या दुसऱ्या शेंकडयांत बरयलां आसुंये.

इळंगो अडिगळ हाणें हें महाकाव्य बरयलां. ह्या काव्याक 'नुपुरकाव्य' अशेंय म्हण्टात. हें काव्य स्वतंत्र आसा. तांचें संविधानक स्वतंत्र आसून, तमिळ देश ह्या काव्याची फाटभूंय आसा. ह्या महाकाव्याची कथा ही ल्हानशी लोककथा आसा. पूण तिच्यांत अतिमानवी आनी अद्‌भुत घडणुकांचो आस्पाव करून कवीन ते कथेक महाकाव्याचो आकार दिला. अतिमानवी घडणुकांवांगडाच तातूंत इतिहास, तत्त्वगिन्यान, धर्म आनी नीती ह्या गजालिंचोय आपरोस घेतला. हें काव्य निर्मिलां त्या काळांत तमिळ देशांतल्या चोळ, चेर आनी पांड्य ह्या राजांचे एकामेकांकडले संबंद कशे आशिल्ले हेंय ह्या काव्यावयल्यान समजता.

ह्या महाकाव्याची कथा थोडक्यांत अशी आसा - पुहार नांवाचे चोळ राजधानींत माशात्तुवान नांवाचो एक गिरेस्त वेपारी रावतालो. ताचो पूत कोवलन हाचें मानाय्यन ह्या वेपाऱ्याच्या कण्णकी नांवाचे धुवेकडे लग्न जालें. पूण फुडें एक दीस कोवलनान नगरांतले माधवी नांवाचे नर्तकीचो नाच पळयलो आनी तो तिचेर सामको भाळ्ळो. कण्णकीक विसरून तो माधवीच्याच नादाक लागलो. एक दीस त्या नगरांत व्हड इंद्रोत्सव सुरू जालो. त्या निमतान माधवी आनी कोवलन दर्यादिगेर भोंवपाक गेल्लीं आसतना, दोंगायचें बिनसलें. उपरांत कोवलनाक आपल्या वर्तनाचो खूब पश्चात्ताप जालो आनी ताणें कण्णकीकडे चूक मागली.

उपरांत ताणें वेपार करपाचें थारायलें आनी तेखातीर कण्णकीक घेवन तो मदुरेक गेलो. पूण थंय वेपार करपाक ताका

भांडवल मेळना जालें. तेन्ना ताणें कण्णकीच्या पांयांतले नुपूर विकपाचें थारायलें. नुपूर घेवन शेटीकडे वतना वाटेर ताका राजाचो शेट मेळ्ळो. त्या शेटीन पयलीं राणयेचेच नुपूर चोरील्ले आनी राजा त्या नुपूरांच्या सोदांत आशिल्लो. शेटीन कोवलनाकडले ते नुपूर पळोवन ताचेर चोरयेचो आळ घालो. त्या नुपूरांसकट कोवलनाक राजामुखार उबो करतकच राजान ताका जिवो मारपाची आज्ञा केली आनी कोवलन मेलो. ही खबर कण्णकीक कळ्ळी आनी तिणें रागान राजाक जाब विचारलो आनी आपले नुपूर पळोवपाक मागले. नुपूर मेळटकच कण्णकीन राणयेक, तिच्या नुपूरांनी कितें आशिल्लें तें विचारतकच राणयेन आपल्या नुपूरांनी मोतयां आशिल्ल्याचें सांगलें. कण्णकीन आपल्या नुपूरांतलीं माणकां दाखयतकच राजा - राणयेक खूब दूख्ख जालें. पूण कण्णकीन तांकां शाप दिलो. राजा मेलो आनी राणी ताचेवांगडा सती गेली. इतल्यान कण्णकीचो राग गेलोना. तिणें आपलो दावो स्तन हुमटावन अग्निनारायणा खातीर हवेंत शेंवटिलो. तेबरोबर उजो पेटलो आनी सगळी मदुरा नगरी जळून खाक जाली. उपरांत कण्णकी मदुरा सोडून चेर देशांत एका दोंगराचेर चडली. थंय एका विमानांत बसून कोवलन आयलो आनी ताचेवांगडा ती सर्गांत गेली. हें थंयच्या कुरवर जमातीच्या लोकांनी पळयलें. तांणी कण्णकीक आपले जमातीची देवता मानली. ही खबर चेर राजाक समजली. ताणें हिमालयांतल्यान पाशाण हाडून त्या दोंगराचेर तिचें सुंदर देवूळ बांदलें.

'शिलप्पधिकारम्' ह्या काव्याचेर बौध्द धर्माची छाप आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## शिलाहार राजवंश

**शिलाहार राजवंश :** महाराष्ट्र, गोंय धरून कोंकण आनी कर्नाटक प्रदेशांनी राज्य करपी एक वंशावळ. शिलाहारांचे जे वेगवेगळे लेख सांपडल्यात तांचेवयल्यान हे वंशावळिचीं वेगवेगळीं स घराणीं आशिल्ल्याचें कळटा. तातुंतलीं तीन घराणीं व्हड, जाल्यार तीन ल्हान. व्हड घराण्यांभितर उत्तर कोंकणाचें पुरी कोंकण (ठाणें), दुसरें घराणें कोल्हापूर, सातारा, सांगली आनी बेळगांव प्रदेशांचेर राज्य करपी आनी तिसरें घराणें हें दक्षिण कोंकणचें घराणें. हाका गोवा घराणें अशेंय म्हण्टात.

शिलाहारांचीं सगळीं घराणीं आपल्याक क्षत्रिय मानतात आनी आपलो वंश विद्याधर नृपती जीमूतकेत हाचो पूत जीमूतवाहन हाचेसावन सुरू जालो असो अभिमानान आपल्या लेखांत उल्लेख करतात. जीमूतकेतून एक व्हड दिव्य कृत्य केल्लें. उपरांत ह्या कृत्यावयल्यान ताका शिलाहार हें नांव पडलें. हेंच नांव उपरांत ताचे वंशावळीक कशें मेळ्ळें हे सांगपी एक कथा आसा ती अशी -

गरूड हो सोरपांक खावपी. दर दिसा सोरोप सोदून काडपाक तो उबगल्लो. देखून ताणें वासुकी राजाक ताच्या राज्यांतलो एक एक सोरोप दर दिसा आपल्याक खावपाखातीर दी म्हूण मागलें. गरूडाकडेन दुस्मानकाय आपणावपाची वासुकीची तांक नाशिल्ली, म्हूण ताणें गरूडाचें मागणें मान्य केलें. ताणें आपल्या राज्यांतल्या एका एका सोरपाक एके खाशेले शिळेचेर वचून गरूडाची वाट पळोवपाक सांगलें. हो क्रम खूब दीस चालूच आशिल्लो. एक दीस शंखचूड नांवाच्या सोरपाची पाळी आशिल्ली. तो शिवदर्शनाखातीर गोकर्णाक गेल्लो. ताका उशीर जालो तें पळोवन जीमूतवाहन शिळेचेर वचून गरूडाची वाट पळयत बसलो. एका दिसान तरी शंखचूडाचें मरण पयस दवरपाचें पुण्य आपल्याक मेळटलें अशें ताका दिसलें. कांय वेळान गरूड येवन तो जीमूतवाहनाक खावपाक लागलो. अर्दोमुर्दो खाल्याउपरांत गरूडाक आपली चूक कळली. उपरांत जीमूतवाहनाचे बायलेचे प्रार्थनेवयल्यान पार्वतीन जीमूतवाहनाक जिवो केलो. तेन्नासावन गरूडान सोरपाक खावपाचें सोडून दिवन पयलीं खाल्ल्या सगळ्या सोरपांक जिवे केले. गरूडाखातीर शिळेचेर अन्न म्हूण बसून रावपी जीमूतवाहनासावन सुरू जाल्ले वंशावळीक उपरांत शिला + आहार, शिळेवयलो आहार म्हळ्यार शिलाहार हें नांव मेळ्ळें आसुंये. पूण शिलाहारांचे जे साठ लेख उजवाडा आयल्यात, तातूंत साबारकडेन त्या राजवंशाक सीलार, शीलार, सियलार, शैलाहार अशेंय म्हळां. ह्या राजवंशाच्या सगळ्या घराण्यांच्या राजांक (गोंय सोडून) तगरपुरपरमेश्वर, तगरनगराधीश्वर, तगरपुरवरेश्वर अशीं बिरुदां लायिल्लीं आसात. हाचे वयल्यान हे सगळे राजवंश मूळ तगरपूर नगरांतल्या एकाच घराण्यांतल्यान फुटून हेरकडेन पातळ्ळे आसूं येतात.

उत्तर कोंकणाचें शिलाहार, हें घराणें राष्ट्रकूटांचें मांडलीक म्हूण उदयाक आयलें. तांणी त्या प्रदेशाचेर सुमार साडे चारशीं वर्सां (इ. स. ८०० ते १२६५) आपलो शेक गाजयलो. ह्या घराण्यांतले राजा विद्या आनी कलेचे भोगी आशिल्ले. तांणी श्रेश्ठ पंडितांक आनी कलाकारांक आलाशिरो दिल्लो. अंबरनाथ, पेलार आनी वाळकेश्वर हांगा उबारिल्लीं देवळां आनी शिल्पां खूब प्रसिद्द आसात. सोडढलाचे उदयसुंदरीकथेंत शिलाहारांच्या दरबारांतले चंदनाचार्य, विजयसिंहाचार्य, म्हाकिर्ती, इंद्र हांचेसारकिल्ले साबार जैन आनी हिंदू कवी आनी पंडितांचो उल्लेख मेळटा.

कोल्हापूरचे शिलाहार ह्या घराण्यान त्या प्रदेशाचेर सुमार तिनशें वर्सां आपलो शेक गाजयलो (इ.स. ९५० - १२१३). तेय राष्ट्रकुटांचेच मांडलीक. ह्या घराण्याचो मूळ पुरूस जतिग. हें घराणें सुरवेक कर्नाटकांत राज्य करतालें. उपरांत ह्या घराण्यांतल्या कांय राजांनी कऱ्हाड लागशिल्लो प्रदेश हातासून थंय आपलें राज्य उबारलें.

शिलाहारांचें तिसरें घराणें दक्षिण कोंकणाचेर राज्य करपी. हाका गोंय घराणें अशेंय म्हण्टात. हांचें राजपाटण सुरवेक चंद्रपुर (चांदर) आनी उपरांत वलिपत्तन हांगा आशिल्लें अशें सांगतात. तांच्या

राज्यांत सबंद गोंय प्रदेश, सावंतवाडी संस्थान आनी रत्नागिरी जिल्ह्याचो आस्पाव जातालो. ह्या शिलाहार घराण्यान गोंयाचेर सुमार अडेचशीं वर्सां राज्य केलें.

गोंय शिलाहार घराण्यांत ९ वा १० राजा जावन गेले असो समज आसा. पट्टणकुडी ताम्रपटांत णव राजांचीं नांवां दिल्लीं आसात, जाल्यार खारेपाटण ताम्रपटांत पूर्वज आनी वंशज हांचीं नातीं दिल्यांत.

ह्या दोनूय ताम्रपटांतल्या राजांची नांवां अशीं -

| पट्टणकुटी ताम्रपट | खारेपाटण ताम्रपट |
|---|---|
| धम्मियर | सणफुल्ल |
| आमल्ल | धम्मियर |
| ऐयप | ऐयप |
| आदित्य वर्मन | अवसर (पयलो) |
| अवसर (पयलो) | आदित्य वर्मन |
| इंद्रराज | अवसर (दुसरो) |
| भीम | इंद्रराज |
| अवसर (दुसरो) | भीम |
| रट्टराज | अवसर (तिसरो) रट्टराज |

ह्या दोनूय ताम्रपटांवयल्यान ह्या घराण्याचो संस्थापक सणफुल्ल आनी निमाणो ज्ञात राजा रट्टराज म्हणपाचें कळटा. हातूंत तांच्या काळाचोय उल्लेख केला. खारेपाटण ताम्रपटांतल्या उल्लेखाप्रमाण राष्ट्रकूट राजवंशावळींतलो दुसरो राजा कृष्ण पयलो हाचे कृपेन सणफुल्लाक दक्षिण कोंकणाचें राज्य मेळ्ळें. तो राष्ट्रकूटांचो मांडलीक जालो. कृष्णान दक्षिण कोंकणाचेर घुरी घालून तो प्रदेश काबीज केल्लो, तेन्ना सणफुल्ल ह्या गोंयच्या सरदारान ताका आदार केल्लो. देखून कृष्णाचे कृपेन ताका मांडलिकाच्या रुपान राज्य मेळ्ळें. कृष्ण ७५९ त गादयेर आयलो आनी स वर्सां उपरांत ताणें दक्षिण कोंकणाचेर घुरी घाली. हाचेवयल्यान सणफुल्लाचो काळ सादारणपणान स्पश्ट जाता. गोंय शिलाहारांचो निमाणो राजा रट्टराज हाणें दिल्ल्या दोन दानपत्रांचो काळ खारेपाटण आनी वलिपत्तन हातूंत १००८ आनी १०१० असो सांगला. पूण मदल्या सात राजांचो काळ दिवंक ना. लेखांत तांच्या नांवाचो उल्लेख आसा, पूण काळाचो ना. दोनूय ताम्रपटांवयल्यान रट्टराज हो गोंय शिलाहार घराण्याचो निमाणो राजा म्हूण कळटा. दोतोर आळतेकार आनी दोतोर वि. त्र्य. गुणेच्या मतान राष्ट्रकूटांचो पराभव चालुक्यांनी केल्या उपरांत गोंय शिलाहार घराणें चालुक्यांचें मांडलीक जालें. रट्टराजान तांचें मांडलिकत्व आपणावपाक न्हयकार दिल्ल्यान चालुक्य राजा जयसिंहान रट्टराजाचो पराभव करून गोंय शिलाहार घराणें १०२० वा १०२४ त नश्ट केलें असो समज आसा.

शिलाहार घराणीं हीं मुखेलपणान कन्नडभाशीक आशिल्लीं असो समज आसा. शिलाहारांच्या लेखांत शिव, विष्णु, आदित्य, ब्रह्मा, महालक्ष्मी, जोगेश्वरी आनी भगवती ह्या देवतांचो उल्लेख आसा. उत्तर कोंकणांतल्या सगळ्या कोरांतील्ल्या लेखांत गजाननाक वंदन केल्लें आसा. विष्णु हो तांचो मुखेल देव. शिलाहार राजांनी महादेवाचीं जीं देवळां बांदलीं तातुंतलें अंबरनाथाचें देवूळ उत्कृश्ट आसा. शिलाहार राजवंश हो वेदधर्मी आशिल्लो. तांची कुलदेवता महालक्ष्मी आशिल्ली आनी नेतुर्लीचें महालक्ष्मीचें देवूळ गोंय शिलाहारांनी बांदलां असो इतिहासीक पुरावो मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**शिव** : ब्रह्मा - विष्णु - महेश ह्या त्रिमूर्तींतलो एक देव. तो प्रलयकाली सैमाचो संहारक आनी तमोगुणी आसा. कैलासाचेर तो रावता. पार्वती ही ताची बायल, गजानन आनी षडानन हे ताचे पूत. तशेंच भैरवादी गण हे ताचे सेवक आनी नंदी हें ताचें वाहन.



मंगलमय, कल्याणस्वरूप सदाशिव तत्त्व म्हणजेच शिव. ताकाच परमात्मो वा आदिशिव अशेंय म्हण्टात. वश् ह्या धातूपसून वर्णव्यत्यासान शिव हें उतर तयार जालां. वश् ह्या धातुचो एक अर्थ उजवाडप असो आसा. ताचेवयल्यान जो उजवाडटा तो शिव. शिव हो आपूण सिध्द स्वयंप्रकाशी आसा. तो आपूण उजवाडीत रावन विश्वाकय उजवाडीत करता.

शिव हो अखिल भारतांत सगळ्या जातीजमातींनी पूज्य असो महादेव आसा. ताचें क्षेत्रूय खूब व्यापक आसा. वैदिकांचो रूद्र, द्रविडांचो शिव आनी जायत्या जातीजमातींचो ताचेभशेन दिसपी देव हांचो गुणकर्म समन्वय जावन आयचो पुराणीक शिव आकाराक आयला.

वैदिक आर्यांक शिव खबर नाशिल्लो. पूण रुद्राक ते मानताले. ऋग्वेदांत रुद्र ही मध्यम दर्ज्याची देवता आशिल्ली. ताच्या वांट्याक फकत तीन पुराय सुक्तां आयिल्लीं आसात. ताचो रंग भुरो, गोरो वा भांगरान माखिल्लो मानला. धोणू - बाण हें ताचें खाशेलें शस्त्र. ताचे बाण पशू आनी मनशाकय संहारक थारतात. तो जटाधारी आसा. ताच्या साध्या रुपांत तो व्हड वैज आसून ताचेकडेन जायतीं वखदां आसात. वेदांतलें ताचें आनीक एक म्हत्वाचें विशेशण म्हणजे वृषभ. हें उतर वृष् धातूवयल्यान तयार जालां. वृष्टी करपी आनी चडांत चड प्रजननशक्त आशिल्लो अशे ताचे दोन अर्थ जातात.

अथर्ववेदांत रुद्राचें पुरूस रूप ऋग्वेदापरस चड विकसित जाल्लें आसा. ऋग्वेदांत मरुत् हे रुद्राचे पूत आसात, जाल्यार अथर्ववेदांत ते ताचे अनुचर (नोकर) जाल्यात पूण अथर्ववेदांतली रुद्राची

विकासप्रक्रिया मात ल्हव ल्हव वाडत गेली. तिच्यांतल्यानच शेवटाक पुराणीक शिवाचें स्वरूप पुरायपणान विकसित जालें. ह्या विकासांत वैदिक रुद्रान जायत्या गौण वा जातीय देवतांक आपल्यांत आस्पावन घेतले. अथर्ववेदांत भव आनी शर्व अशो दोन देवता दिसतात. तांचें व्यक्तित्व स्पश्ट नासलें तरी त्यो स्वतंत्र देवता आशिल्ल्यो. पूण अथर्ववेदांतूच ताचें रुद्राकडेन तादात्म्य जालें आनी भव आनी शर्व हीं रुद्राचींच नांवां जालीं. खंयच्या तरी व्हडल्या देवान कांय ल्हान देव आत्मसात करून घेवप ही गजाल दैवतशास्त्राच्या इतिहासांत जायत्या फावटी दिसता. जगांतल्या सगळ्या दैवतकथांतूय अशो जायत्यो देखी आसात. वैदिक देवूय अशाच जायत्या ल्हान देवतांक आत्मसात करून वाडला. पशुपती हें रुद्राचें आनीक एक विशेशण. तेंच फुडें शिवाकय लागू जालां.

उपनिषदग्रंथांत रुद्र - शिव हो दार्शनिक विचारधारेच्या संपर्कांत आयलो आनी रुद्राच्या पुर्विल्ल्या स्वरुपांत जायते बदल जाले. उपनिषत्कालांत भक्ती ह्या स्वतंत्र मोक्षसाधनेचो प्रसार जालो आनी विष्णु आनी शिव हे ह्या भक्तिवादाचे मुखेल आराध्य देव जाले. देवाचेर व्हड निश्ठा आनी देवाचे कृपेन मोक्षप्राप्ती हे भक्तिवादाचे मूळ सिध्दान्त आशिल्ले. तांच्या प्रभावाकलागून रुद्राच्या स्वरुपांतलो पुर्विल्लो भंयाचो अंश ना जालो आनी त्या जाग्यार ताचें सौम्य, प्रसन्न आनी दयावंत रूप फुडें आयलें. उपनिषत्कालांत रुद्र हो खऱ्या अर्थान शिव (कल्याण - मंगलप्रद) जालो.

रामायणांत रुद्राचें हें शिवरूप चड घट्ट आनी सगळ्यांक मान्य अशें जालें. दार्शनिक (दाखोवपाचें) आनी दुसरें लोकप्रचलित अशें उभयविध रूप नदरेक पडटा. श्वेताश्वर उपनिशदांत शिवाच्या ज्या दार्शनिक स्वरुपाची अभिव्यक्ती जाली तिची महाभारतांत परिपूर्णता जाली. शिवाच्या ह्या तात्त्विक स्वरुपावांगडाच महाभारतांत तांचो सांख्य दर्शनाकडेन संबंद दाखयल्लो आसा. शिव हो आपूण सांख्य आसा. तो आपुणूच आपल्या जाग्यार सांख्यदर्शन जाणता. जे लोक सांख्य सिध्दान्तांचे चड ज्ञानी आसात ते शिवाची प्राप्ती करून मोक्ष मेळयतात अशें महाभारतांत म्हळां.

पुराणांत जायत्यो शिवकथा आसात. तातुंतल्यो कांय कथा अशो आसात - **त्रिपुरदाह :** तारकासुराक तीन पूत आशिल्ले. तांणी ब्रह्मदेवाकडच्यान वर मेळोवन तीन अंत्राळी नगरां मेळयलीं. थंय बसून ते तीनूय लोकांक त्रास करपाक लागले. ते तीनूय राक्षस शिवभक्त आशिल्ले.

तांणी एक बरी गजाल केल्ली ती म्हणजे सदाचारी आनी वेदोनारायण अशे ब्राह्मण हाडून तांणी तांकां त्या पुरांत दवरिल्ले. त्या ब्राह्मणांचो पुण्यसंचय त्या राक्षसांक बऱ्याक पडटालो म्हणून तांचें बळगें चड वाडिल्लें.

ह्या राक्षसांनी स्वर्ग मेळयलो आनी देवांचें स्थान भश्टलें. ते आपलें गाराणें घेवन पयलीं विष्णुकडेन गेले आनी उपरांत विष्णुक वांगडा घेवन शिवाकडेन गेले. देवांची ती अवस्था पळोवन शिवान नारदाक आपयलो आनी ताका मायावी रूप घेवन राक्षसांच्या नगरांत वच आनी पुण्यवान लोकांच्या मनांत पाप उत्पन्न कर म्हणून सांगलें. नारदान तशें केलें. उपरांत राक्षसांचें बळगेंय ना जालें.

ही कथा जितलें शिवाचें दैवी बळगें दाखयता. त्यापरस चड ती सदाचाराचें म्हत्व पटयता. हे कथेंतल्या शिवान कपट करून आपल्या भक्तांक मारले हें पुराणकारांक मानवलें ना. देखून तांणी ते कथेंत बदल केलो. हो बदल मत्स्यपुराणांत सांपडटा.

बाणासुर नांवाचो एक शिवभक्त राक्षस आशिल्लो. ताची प्रजाय शिवभक्त आशिल्ली. ताणें आपल्याखातीर अंत्राळीं तीन नगरां तयार केल्लीं. कांय तेंपान ताका वायट बुद्दी येवन तो तीनूय लोकांक त्रास दिवपाक लागलो. शिवान ताका ख्यास्त दिवपाचें थारायलें. शिवान जेन्ना ताचेर हल्लो केलो तेन्ना ताका आपली प्रजाय सोंपतली म्हणपाचें कळ्ळें. शिवलिंग तकलेर घेवन शिवाचें स्तोत्र म्हणत तो ताचेफुडें आयलो. ताणें शिवाकडेन 'तुजो राग म्हजेर पडूं पूण म्हजी प्रजा जगूं' अशें मागणें केलें. प्रजेवयलो ताचो मोग पळोवन ताणें बाणासुराक 'वर माग' म्हळें तेन्ना म्हज्या काळजांत ऊर्जा भक्ती सदांच उरूं' असो ताणें वर मागलो. शिवान मागीर तीन नगरांतलें एक नगर दवरून उरिल्लीं दोन सकयल उडयलीं. तातुंतलें एक कैलासाचेर आनी दुसरें अमरकंटकाचेर पडलें.

**दक्षयज्ञविध्वंस :** दक्ष ह्या प्रजापतीक जायत्यो धुवो आशिल्ल्यो. तातूंतली एक सती. तिणें बापायच्या मनाविरुध्द शिवाकडेन लग्न केलें. एक खेपे ह्या दक्षान यज्ञ केलो आनी शिवाक आपयलो ना. देखून दक्षाक शासन करपाखातीर ताणें वीरभद्र उत्पन्न केलो. ह्या वीरभद्रान दक्षाच्या यज्ञाची नाशाडी केली आनी देवांक बंदखणींत घाले. तें पळोवन दक्षान शिवाक यज्ञभोक्तृत्वाचो अधिकार दिलो आनी तो शिवभक्त जालो. दक्षयज्ञांत सतीन देहत्याग केल्ल्याची कथाय पुराणांत आसा.

**विशप्राशन :** समुद्रमंथनांतल्यान उत्पन्न जाल्लें हालाहल वीख सगळ्या जगाक जाळीत सुटलें. देखून सगळ्या देवांनी मेळून शिवाक उलो मारलो. शिव थंय आयलो आनी ताणें जगाक संकटांतल्यान सोडोवपाखातीर तें हालाहल पियेलो. त्या विखाची शिवाक बादा जालीना. फकत ताचो गळोच काळोनिळो पडलो. देवांनीं ताका तो गळो तसोच दवरपाक सांगलें. ह्या प्रसंगान शिवाक नीलग्रीव, नीलकंठ अशीं नांवां मेळ्ळीं. ही कथा सगळ्या पुराणांत सारकीच आसा.

**मदनदहन :** शिव हिमालयाचेर तप करतालो. दुसऱ्या जल्मांत सती पार्वती जाली आनी तीय शिवाक मेळोवपाखातीर हिमालयाचेर तप करीत बसली. त्या दोगांच्याय लग्नसंबंदांतल्यान जल्मुपी स्कंद नांवाचो पूत देवांचो सेनापती जावन तारकासुराक

मारतलो आशिल्लो. देखून देवांकूय तांचें लग्न जाल्लेंच जाय आशिल्लें. शिवाचें लक्ष पार्वतीकडेन ओडपाखातीर तांणी मदनाक नेमलो. मदनान शिवाचेर शरसंधांन केलें. तेन्ना शिवाचें मन वळ्ळें आनी हें कित्याखातीर जालें ताचो सोद घेतना ताका मदन दिसलो. शिवाक ताची तिडक आयली. ताच्या तिसऱ्या दोळयांतल्यान उज्याचे लोळ भायर सरले. त्या लोळांत मदनाचें लासून भस्म जालें.

मागीर ताका तप करपी पार्वती दिसली. तिचो निर्धार पळोवन तो तिचेकडेन लग्न जालो. पार्वतीन मागीर शिवाक मदनाक जिवो करपाक सांगलें. शिवान ताका सूक्ष्म रुपान, अनंग - रुपान जिवीत केलो.

**अंधकासुरवध :** हे कथेंत शिवाचें उग्र रूप दिसता. अंधक देवांक खूब त्रास दितालो आनी ताणें एक फावट पार्वतीचें अपहरण करपाचोय अतिप्रसंग केल्लो. जेन्ना शिवाचें आनी ताचें झूज जालें तेन्ना अंधकाच्या आंगांतल्यान गळपी दर एका रगताच्या थेंब्यांतल्यान अंधक निर्माण जावपाक लागले. तेन्ना शिवान माहेश्वरी देवी आनी तिचेवांगडा मातृका निर्माण केल्यो. ह्या देवतांनी अंधकाचे रगताथेंबे वयल्या वयर चाटपाक सुरवात केली. मागीर शिवान अंधकाक मारलो.

इ.स. च्या पांचव्या शेंकडयापसून तेराव्या शेंकडयामेरेन देशांत जायत्यो शिवप्रतिमा आनी लिंगप्रतिमा घडयल्यो. ह्याच कालखंडांत शैवमताचो खूब प्रसार जालो. जायते शैव संप्रदाय एकवटीत जाले. शिवोपासना सामान्य लोकांमेरेन पावली. शैव क्षेत्रांचोय विकास जालो आनी हें सगळें कार्य शैव पुराणकारांनी केलें.

ह्या कालखंडांत पुराणोक्त पद्धतीन शिवमूर्ती घडपाक लागल्यो. शिवाचीं जायतीं पुराणप्रणीत उपास्य रुपां आशिल्लीं. तांच्या मुखेल रुपांतल्यान जायतीं गौण रुपांय निर्माण जालीं. कलाकारांनी तांच्योय मूर्ती तयार केल्यो. तातुंतल्यो कांय नामनेच्यो मूर्ती अशो आसात -

**नटराजमूर्ती :** ह्या रुपांत शिवान नाच - नाट्यकला प्रवर्तित केली अशी धारणा आसा. तो आपूण एक पारंगत नाचपी आशिल्लो आनी ताच्या नाचान विश्वव्यापाराक चालना मेळटा. ह्या भुमिकेंतलो शिव चार भुजांचो आसता. ताणें दावो पांय उखलून उजवेवटेन धरिल्लो आसता.

ताच्यो जटो रत्नालंकृत आसतात. केशबंधांत कपाल, सोरोप, चंद्रीम आनी पत्रमाला आसतात. ताच्याभोंवतणी प्रभावलय आसता.

**अर्द्धनारीश्वरमूर्ती :** हे मूर्तीचो दावो भाग दादल्याचो आसता. ताचे तकलेर जटाजूट, गळयांत वासुकी सोरोप, हातांत कमंडलू वा नरकपाल आनी दुसऱ्या हातांत त्रिशूल आसता. आंगाचेर कातडें पांगरिल्लें आसता. उजवें आंग बायलेचें आसता. तिचे तकलेर मुकूट, गळो आनी भुजां हातूंत अलंकार आनी कमराक अधोवस्त्र आसता. हे मूर्तीचो देशांत बरोच प्रसार जाल्लो.

**दक्षिणामूर्ती :** शिवाचें हें सामान्य मनशाचें रूप आसा. ह्या रुपांत शिव उबो वा बशिल्लो आसता. तो चार भुजांचो आसता. अशे मूर्तीच्या भोंवतणी जायते फावटी जनावरां, सोरोप आनी यतिमुनी आसतात. केन्ना केन्नाय पर्वतूय लागीं आसतात.

**कल्याणसुंदरमूर्ती :** ह्या मूर्तिकरणांत शिव - पार्वतीच्या लग्नाचो सुवाळो दाखयल्लो आसता. मध्ययुगीन कलेचो हो एक सोबीत नमुनो आसा.

हांचेभायर भिक्षाटन, सोमस्कंद, त्रिमूर्ती, महेश, सदाशिव, लिंगोद्‌भव अशो आनीकूय कांय शिवमूर्ती सांपडटात. ह्यो मूर्ती कशो आनी कितल्यो करच्यो हाचे नेमूय पुराणांत आनी शिल्पशास्त्रावयल्या ग्रंथांत दिल्ले आसात.

दर एका म्हत्वाचे देवतेक एक परिवार आसता. ह्या परिवारांतल्यो व्यक्ती गौण अशो देवताच आसतात. तांचें गुणकर्म सामान्यपणान मुखेल देवतेच्याच गुणकर्मांसारकें आसता. शिवाकूय एक व्हड परिवार आसा. तातूंत पार्वती, गणपती, स्कंद, नंदी, चंडीश, वीरभद्र, भैरव, बाणासुर, रावण, भृंगी, रिटी सारकिल्ल्यो आनीकूय कांय व्यक्ती येतात.

**विदेशांतलें शैवमत :** इ.स. च्या १३ व्या शेंकडयाच्या शेवटाक भारतांत एक धर्मीक संप्रदाय ह्या स्वरुपांत शैवमताचो पुराय विकास जाल्लो. पूण हें शैवमत भारतापुरतेंच मर्यादीत उरलें ना. भारताभायरूय ताचो प्रसार जालो.

सम्राट अशोकाच्या काळांत नेपाळ, तिबेट, ब्रह्मदेश आनी सिंहलद्वीप ह्या देशांत बौध्द धर्मान आपलीं पाळांमुळां घट्ट केल्लीं. पूण नेपाळांत जेन्ना बौध्द धर्म ना जालो तेन्ना थंय शैव आनी वैश्णव संप्रदायांनी आपली जागा घट केली. नेपाळांत आयजूय शैव मत प्रचलित आसून थंयचें पशुपतीचें स्थान ही ताची गवाय आसा. तिबेटांतूय कांय शिवाचीं देवळां आसात. हिंद - चीनांतल्या शैव मताचो उल्लेख पयल्यान पयलीं चंपांतल्या इ.स. ४०० च्या चोहदिन शिलालेखांत सांपडटा. थंयचो राजा शिवोपासक आशिल्लो. पांचव्या शेंकडयांतलो शंभुवर्मा राजाचो माइसोन शिलालेखय शिवविशयकच आसा. सव्या शेंकडयाच्या उत्तरार्धांत चंपाच्या प्रकाशधर्मा ह्या राजान एक देवळांत शिवलिंगाची स्थापना केल्ली.

जावांत ब्राह्मणीधर्माचो प्रचार पुर्विल्ल्या काळापसून आशिल्लो. सातव्या शेंकडयांत थंय जायतीं शिवाचीं देवळां द. भारतीय पद्धतीचेर निर्माण जाल्लीं. बाली द्विपांतय शैव मत प्रभावी आशिल्लें. थंय शिवाचीं जायतीं मुखलिंगां पळोवपाक मेळटात. ही लिंगां तेराव्या वा चौदाव्या शेंकडयांतलीं आसात. सुमात्रांतलें शैव मत जावांतल्याप्रमाणूच आशिल्लें. मलायांतूय शिव, गणेश आनी देवी हांच्यो मूर्ती सांपडटात. ताचेवयल्यान थंयूय परिवारावांगडा शिवोपासना प्रचलित आशिल्ली असो अदमास काडूं येता.

- कों. वि. सं. मं.

**शिवपुराण :** (पळेयात पुराणां).

**शिवरात्र :** (पळेयात महाशिवरात्र).

**शिवाजी महाराज :** (जल्मः १९ फेब्रुवारी १६३०, पुणे; मरणः ३ एप्रिल १६८०).

भोसले घराण्यांतलो एक श्रेश्ठ राजा आनी हिंदवी स्वराज्याचो संस्थापक. ताचो बापूय शहाजी हो सुरवेक आदिलशाहींत जाल्यार उपरांत निजामशाहींत सुभेदार पदाचेर आसलो.



शिवाजीचीं पयलीं कांय वर्सां शहाजीवांगडा महाराष्ट्रांत आनी कर्नाटकांत गेलीं. शिवाजी स वर्सांचो आसतना शहाजीन जिजाबाईवांगडा ताका बेंगलुरच्यान पुण्याक धाडलो. ताची देखरेख करपाखातीर शहाजीन दादोजी कोंडदेवाची नेमणूक केल्ली. शिवाजीन दादोजीच्या हाताखाला राज्यकारभाराचें शिक्षण घेतलें. तशेंच आपल्या जहागिरीच्या मुलूखांत वसुली पद्दत वेवस्थीत बसयली. शिवाजीचें भुरगेपण ताची आवय जिजाबाई हिचेवांगडा गेलें. ताचें शिक्षणय घराच जालें. जिजाबाईन ताका रामायण - महाभारतांतल्यो कथा सांगून ताच्या मनाचेर क्षात्रतेजाचे बरे संस्कार घडोवन हाडले. हातुंतल्यानच शिवाजी महाराजाच्या मनांत स्वराज्याची भावना निर्माण जाली अशें सांगतात.

शिवाजीन स्वराज्याचो वावर सुरू केल्लो तेन्ना भारतांत मुखेलपणान मुसलमानांचीच राजवट आशिल्ली. सुरवेक शिवाजीन कोंकण दर्यादिग, सह्याद्री आनी मावळ ह्या दोंगरी प्रदेशांतूच स्वराज्य उबारपाचें थारायलें. तेखातीर ताणें मावळ्यांक एकठांय करून आपलें सैन्य उबारलें. तशेंच भोंवतणचे किल्लेय घेतले. उत्तरेकडचे मोगल आनी दक्षिणेकडची आदिलशाही हे ताचे मुखेल दुस्मान आशिल्ले. पूण गनिमी डावपेच आंखून, तांच्या व्हड सैन्याक विरोध करीत शिवाजीन आपलें राज्य वाडयलें. शिवाजीची व्हडवीक सांगपी आनी ताच्या सांगात्यांच्या पराक्रमाची तोखणाय करपी अफझल खानाचो वध; बाजी प्रभूचें बलिदान; शाहीस्तेखानाची फजेती; तानाजीचें बलिदान; आग्राच्यान सुटका ह्यो कांय प्रसिद्द घडणुको आसात. शिवाजीची वाडटी प्रसिद्दी पळोवन औरंगजेबान निमाणेकडेन मिर्झाराजा जयसिंग हाका व्हड सैन्य दिवन दक्षिणेक धाडलो. मिर्झाराजान दिलेरखानाच्या आदारान पुरंदर किल्ल्याक रेवाडो घालून, शिवाजीक किल्ल्याचेरूच बंदखणींत दवरलो. मोगलांच्या व्हड सैन्यामुखार आपलें सैन्य निकामी थरतलें हें जाणून निमाणेकडेन शिवाजीन मिर्झाराजाकडेन इतिहास प्रसिद्द पुरंदर कबलात घडोवन हाडली. हे कबलातीक लागून शिवाजीक आपले अदर्‍यावयर किल्ले मोगलांक दिवचे पडले. तशेंच शिवाजीन मोगलांचो फकत जहागिरदार म्हूण रावचो अशीं अट घाली. उपरांत मिर्झाराजान ताका आनी संभाजीक बळजबरीन आग्र्याक व्हेले. उपरांत औरंगजेबान तांकां नदरकैदेंत दवरले. शिटुकसाणेन आपली सुटका करून शिवाजी परतून पुण्यांत आयल्या उपरांत ताणें आपलें राज्य विस्ताराचें धोरण तात्पुरतें बंद दवरलें. पूण कांय काळाउपरांत परतून राज्यविस्ताराच्या वावराक लागलो. जयसिंगाकडेन जाल्ले पुरंदराचे कबलातींत ताणें जें कितें वगडायल्लें तें सगळें परतून मेळयलें. तशेच आनीकय नवे मुलूख हातासले. औरंगजेबान शिवाजीचो पाडाव करपाचे खूब यत्न केले. पूण शिवाजीन ते सगळे मोडून उडयले. आग्र्याच्यान आयल्याउपरांत शिवाजीक दिंडोरी, साल्हेर, मुल्हेर हीं व्हड झुजां करचीं पडलीं. १६७२ त शिवाजीन श्रीसमर्थ रामदासस्वामीच्या सहवासांत कांय तेंप सारलो. रामदासान ताका राज्यवेवस्था, लोकसंग्रह, राजकारण आनी हेर विशयांसंबंदीं गुरूपदेश दिलो.

शिवाजी महाराज जेन्ना आपल्याक राज्याभिशेक करपाक मुखार सरलो तेन्ना ताका कांय सरदार आनी जहागिरदारांकडच्यान खूब विरोध जालो. ताच्या क्षत्रियत्त्वाबद्दल मनांत दुबाव आसलो ते ताका राजा मानपाक तयार नाशिल्ले. देखून ताणें काशिचो म्हापंडीत गागाभट्ट हाका आपोवन हाडून धर्मशास्त्राच्या आदारान आपलें क्षत्रियत्व सिध्द केलें. उपरांत ज्येश्ठ शु. १३ शुक्रवार शके १५९६ ह्या दिसा आपल्याक राज्याभिशेक करून घेतलो. शिवाजीन त्या वेळार राज्य चलोवपाखातीर अश्टप्रधानांची नेमणूक केली. तांची वळेरी अशी - १) मुख्य प्रधान २) अमात्य ३) सेनापती ४) पंडितराव ५) न्यायाधिश ६) सचिव ७) मंत्री आनी ८) सुमंत, तशेंच राज्याभिशेकाच्या निमतान शिवाजीन 'होन' आनी 'शिवराई' अशीं दोन नाणीं पाडलीं. राज्यकारभाराचें माध्यम स्वभाशेंत आसचें म्हूण ताणें राज्यवेव्हारकोश उजवाडा हाडलो. आपलें स्वराज्य वाडयतना ताका पुर्तुगेज, डच, फ्रेंच आनी ब्रिटीश ह्या परकियांकडेनूय संघर्श करचो पडलो. तेखातीर ताका झुजारी तारवां बांदचीं पडलीं. तशेंच मालवणलागसार दर्यांत सिंधुदूर्ग उबारलो आनी रत्नागिरी, पद्मदुर्ग, विजयदुर्ग, कल्याण आनी हेरकडेन नावीक केंद्रां निर्माण केलीं.

राज्याभिशेकाउपरांत शिवाजीचे चडशे दीस वायट गेले. ताची भलायकी इबाडली. जिजाबाईक मरण आयलें आनी ताचो पूत संभाजी मोगलांक मेळ्ळो. पूण भलायकी सुदारल्या उपरांत ताणें दक्षिणे कडचे जिंजी, वेलोर हे प्रदेश घेवन राज्यविस्तार केलो. तशेंच कुतुबशाही आनी आदिलशाही कडेन बरे संबंद स्थापीत केले. पूण

उपरांत ताची भलायकी परतून इबाडली आनी तातूंतच ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**शिशुनाग राजवंश :** मगधाचेर राज्य करपी एक वंश. पुराणांत ह्या वंशांतल्या धा राजांचीं नांवां दिल्यांत तीं अशीं आसात - शिशुनाग, काकवर्ण, क्षेत्रधर्मा, क्षत्रौजा, बिंबिसार, अजातशत्रू, दर्शक, उदायी, नंदिवर्धन आनी महानंदी. ह्या राजांनी इ.स. पयलीं ६४२ वर्सासावन इ.स. पयलीं ३७२ मेरेन मगधाचेर राज्य केलें. काशीचो राजा शिशुनाग हाणें प्रद्योतवंशी राजाक हारोवन मगधाचें राज्य जिखलें आनी तो राजगृह हे राजधानींतल्यान मगधाचेर राज्य करूंक लागलो अशी पौराणीक कथा आसा.

पूण ही पौराणिक म्हायती सगळ्या अभ्यासकांक मान्य ना. तांच्या मतान 'महावंश' ह्या ग्रंथांतली, शिशुनाग वंशाची म्हायती सारकी आसा. ह्या ग्रंथांत शिशुनाग वंशांतल्या राजांचीं नांवां दिल्यांत तीं अशीं आसात - बिंबिसार, अजातशत्रू, उदयभद्र, अनुरुध्द, मुंड, नागदासक, सुसुनाग, कालाशोक आनी ताचे धा पूत.

**बिंबिसार :** हो हर्यंक कुळांत जल्मल्लो. गिरिव्रज म्हळयार राजगृह ही ताची राजधानी आशिल्ली. बिंबिसाराच्या विशाल साम्राज्याचे शासनवेवस्थेची म्हायती बौध्द साहित्यांत मेळटा. वेगवेगळया गांवांचो कारभार ग्रामक म्हळयार गांवाचो मुखेल चलयतालो पूण बिंबिसारान सगळया साम्राज्याचेर आपली सत्ता दवरिल्ली.

बिंबिसारान अंग देशाचेर स्वारी करून तो जिखलो आनी ताची राजधानी चंपा हांगा आपलो पूत कुणिक हाका राज्यपाल म्हूण नेमलो.

बिंबिसारान मगध साम्राज्याचो विस्तार केलो आनी लागसारच्या तशेंच पयसुल्ल्या राजांकडेनय बरेपण दवरलें. कोसलचो राजा प्रसेनजित हाची भयण बिंबिसाराची पट्टराणी आशिल्ली. ताची दुसरी राणी चेल्लना ही लिच्छवीचो राजा चेटक हाची धूव. मद्रदेशाची राजकन्याय ताची राणी आशिल्ली. अवंतीच्या प्रद्योत राजवंशाकडेय बिंबिसाराचें बरेपण आशिल्लें.

बिंबिसारान स्वता गौतम बुध्दाकडल्यान दीक्षा घेतिल्ली अशें बौध्द साहित्यांत मेळटा. तेन्ना ताणें राजगृह हांगा बुध्द आनी ताचे शिश्य हांकां स्वता जेवण वाडलें आनी वेळुवन नांवाचें उपवन ताणें बौध्द संघाक दिलें. ताची राणी मद्र, राजकन्या - खेमा हीं बौध्द तत्त्वगिन्यानांत हुशार आशिल्लीं. बिंबिसारान आपलो राजवैद्य जीवक हाका बुध्दाचे सेवेखातीर धाडिल्लो.

जैनांच्या मतान बिंबिसार हो महावीराचो अनुयायी आशिल्लो. ताची राणी चेल्लना हीय जैन पंथाची पुरस्कर्ती आशिल्ली.

बौध्द परंपरेप्रमाण बिंबिसाराचो पूत अजातशत्रू हाणें बापायचो वध केलो. बुध्दाचो बापोलभाव देवदत्त हो दुश्ट आशिल्लो. ताणेंच अजातशत्रूक, बापायक मारपाक प्रवृत्त केलो. पूण जैन परंपरेची म्हायती मात वेगळी आसा. बिंबिसारान कुणिक (अजातशत्रू) हाकाच युवराज मानिल्लो. तरीय ताणें बिंबिसाराक बंदखणींत उडोवन राज्यपद घेतलें. उपरांत बिंबिसारान वीख घेवन आत्महत्या केली.

**अजातशत्रू :** हो एक पराक्रमी राजा आशिल्लो. ताणें आपल्या साम्राज्याचो खूब विस्तार केलो. राज्याचेर येनाफुडें ताका कोसलचो राजा प्रसेनजित हाचेवांगडा झूज करचें पडलें. पूण ताचेकडल्यान अजातशत्रूक हार घेवंची पडली. तेन्ना अजातशत्रू प्रसेनजिताक शरण गेलो. तेखातीर प्रसेनजितान अजातशत्रूक ताचें राज्यपद परतें दिलें आनी वांगडा आपली धूव वजिराय दिली.

जैन ग्रंथावयल्यान अजातशत्रून उदेंत भारतांतल्या ३६ गणराज्यांच्या प्रबल संघाचो पराभव केलो. लिच्छवी हें घटक राज्य खूब प्रबल आशिल्लें. तें घेवपाखातीर अजातशत्रून खूब कपट कारस्थानां केलीं. आपल्या सेनादलांतय खूब वाड केली. ह्या झुजाखातीर ताणें पाटीलपुत्र हें नवें नगर गंगेचे देगेर वसयलें. ताच्या शस्त्रभांडारांत महाशिलाकंटक आनी रथमुसल हीं दोन संहारक शस्त्रां आशिल्लीं. हें झूज १६ वर्सां चालू आशिल्लें. निमाणेकडे अजातशत्रूक जैत मेळ्ळें आनी ताका वैशाली नगरी मेळ्ळी.

जैन ग्रंथांत अजातशत्रूक जैन पंथाचो अनुयायी म्हळां. तो खुबदां महावीराक मेळपाक वतालो.

बौध्द ग्रंथाच्या आदारान, अजातशत्रू बुध्दाचो भक्त जाल्लो. पयलीं तो बुध्दाचो दुस्मान आशिल्लो पूण बिंबिसाराक मारतकच ताका पश्चात्ताप जालो आनी तो बुध्दाक शरण गेलो. बुध्दाच्या निर्वाणा उपरांत अजातशत्रून ताच्या अवशेशांखातीर राजधानी भोंवतणी खूब धातुचैत्यघरां बांदलीं. पयली बौध्द संगीती ताच्याच वेळार राजगृह हांगा भरली. परिशदेखातीर राजान भव्य अशें सभाघर बांदलें आनी थंय आयिल्ल्या ५०० भिक्षूंची वेवस्था केली.

अजातशत्रू उपरांत ताचो पूत उदयभद्र (उदायी) राजा जालो. जैन परंपरेप्रमाण तो म्हान पितृभक्त आशिल्लो. तो चंपा हांगा राज्यपाल आशिल्लो. मगधांतल्या लोकांनी ताका सिंहासनाचेर बसपा खातीर आपयतकच तो पाटलिपुत्र हांगा आयलो आनी सिंहासनाचेर बसलो. थंय ताणें कुसुमपूर नांवाचें नवें नगर वसयलें आनी नगराच्या मदीं एक जैन चैत्यघर बांदलें.

उदयभद्र हो निश्ठावान जैन नेमान उपास - तापास करतालो. पूण रोकडोच ताचोय वध जालो. ताच्या उपरांत अनुरुध्द आनी अनुरुध्दा फाटल्यान मुंड हो राजा जालो.

तांचे उपरांत राजा नागदासक हो पुराणांतलो दर्शक आसुंये. तेउपरांत ताचो मंत्री शिशुनाग हाका प्रजेन मगधाचो राजा केलो. शिशुनागान अवंतीच्या प्रद्योताक हारोवन तें राज्य मगध साम्राज्यांत

घालें. वत्स आनी कोसल हीं राज्यांय ताणें जिरवलीं.

कालाशोक हो शिशुनागाचो पूत. तो पुराणांतलो काकवर्ण आसुंये. हाचे राजवटींत दुसरी बौध्द संगीती भरील्ली. ताचे राणयेचो शूद्र प्रियकर आशिल्लो ताणें राजाचो वध केलो. उपरांत कालाशोकाच्या धा पुतांनी धा वर्सां राज्य केलें. राणयेचो प्रियकर तांचो मार्गदर्शक म्हणून स्वता राज्य चलयतालो. उपरांत ताणें त्या धाय राजपुतांक मारले. ताचेपसून राणयेक जो पूत जालो, ताका मगधाचें राज्य मेळ्ळें आनी उपरांत नंदवंश सुरू जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**शिशुपाल वध :** एक संस्कृत महाकाव्य. ह्या काव्याचो कर्तो माघ आसून, तो इ.स. च्या ७ व्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत जावन गेलो. ह्या महाकाव्याचे २० सर्ग आसून, श्लोकसंख्या १६४५ आसा. पंदराव्या सर्गांतले प्रक्षिप्त श्लोक ३४ आनी कविवंशवर्णनपर ५ मेळून ही श्लोकसंख्या १६८४ इतली जाता. युधिष्ठिराच्या राजसूय यज्ञाच्या वेळार श्रीकृष्णान आपल्या सुदर्शन चक्रान चेदी देशाचो राजा शिशूपाल हाका जिवो मारलो. हीच कथा हातूंत आयल्या.

माघाच्या पयलीं भारवी हो महाकवी जावन गेलो. ताचें किरातार्जुनीय हें काव्य विद्वानांच्या आदराक पात्र थारिल्लें आनी भारवीची खूब नामना जाल्ली. माघ कवीक तें सहन न जाल्ल्या कारणान भारवीचें म्हत्व उणें करपाचा उद्देशान ताणें शिशुपाल वधाची रचना केली. भारवीन किरातार्जुनीयाची कथा महाभारतांतल्यान घेतल्या. तशीच ती माघानूय घेतल्या.

शिशुपालवध किरातार्जुनीयाची प्रतिमूर्ती म्हणूं येता. हातूंत कथेची सजावट, सर्गांचें विभाजन आनी वर्ण्य विशयांचें उपस्थापन ह्या गजालींनी माघान भारवीच्या पावलार पावल दवरलां.

भारवी हो शैव आशिल्ल्यान ताणें शिवप्रधान कथावस्तू वेंचून काडली, जाल्यार माघ हो वैश्णव देखून ताणें कृष्ण प्रधान कथेची वेंचणूक केली.

भारवीप्रमाण माघाचीय वीररसाचेर भर आसा. ताणें श्रृंगाराक वीररसाच्या माथ्यार पांय दिवपाक लायला.

शिशुपालवधाचो मदलो भाग वाचल्याउपरांत वाचप्याक अशें दिसता, हें श्रृंगार रसाचेंच महाकाव्य आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**शिश्यांरान्नी :** (पळेयात मल्लिकार्जुन संस्थान काणकोण).

**शिसोदिया राजवंश :** मेवाडाचेर राज्य करपी एक वंश. इ.स. च्या ६ व्या शेंकड्यासावन १२ व्या शेंकड्यामेरेन मेवाडाचेर गुहिलोत वंशाचें राज्य आशिल्लें. १२ व्या शेंकड्यांत त्या वंशाच्यो दोन शाखा जाल्यो. एके शाखेचें नांव रावळ आनी दुसरेचें राणा. मुळच्या घराण्यांतलो रणसिंह वा कर्णसिंह हाका माहप, राहप आनी क्षेमसिंह हे तीन पूत आशिल्ले. तातुंतल्या क्षेमसिंहाक मेवाडचें राज्य मेळ्ळें. ताची शाखा रावळ ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. माहप हाका शिसोदे गांवची जहागीर मेळ्ळी आनी ताचे शाखेक राणा हें नांव मेळ्ळें. ताचें घराणें रावळांचे सामंत म्हूण शिसोदे हांगा राज्य करपाक लागले आनी तेंच घराणें उपरांत शिसोदिया ह्या नांवान नांवारुपाक आयलें.

माहपा उपरांत राणा शाखेंतल्या राहप, नरपती, दिनकर्ण, जसकर्ण, नागपाल, कर्णपाल, भुवनसिंह, भीमसिंह, जयसिंह आनी लक्ष्मणसिंह हांणी शिसोदे हांगा राज्य केलें.

रावळ शाखेचो रत्नसिंह मेवाडाचेर राज्य करतना अलाउद्दीन खिलजी हाणें चितोडाचेर हल्लो केल्लो. तेन्ना राणा शाखेच्या लक्ष्मणसिंहान आपल्या पुतांक घेवन रत्नसिंहाक चितोडगडाचेर साथ दिली. त्यावेळार व्हड झूज जालें आनी तातूंत रत्नसिंह, लक्ष्मणसिंह आनी ताचे सात पूत मेले. रत्नसिंहावांगडा रावळ शाखाय सोंपली.

लक्ष्मणसिंहाचो एक पूत अजयसिंह जखमी जावन पळून गेल्ल्यान वांचलो. तो अरवलीच्या रानांत लिपून रावलो थंय बरींच वर्सां काडटकच तो स्वताक मेवाडचो राजा मानूंक लागलो. अशे तरेन ताका मेवाडचें राज्य मेळ्ळें. लक्ष्मणसिंहाचो एक पूत अरिसिंह हाणें सोंगिर चौहान कुळांतले एके राजकन्येकडे लग्न केलें. ताका एक पूत आशिल्लो. अरिसिंहाक चितोडगडावयल्या झुजांत मरण आयलें तेन्ना ताचो पूत हंमीर आपल्या आजोळा आशिल्लो. तो खूब धाडसी, शूर आनी बुध्दिमान आशिल्लो. हाचेविशीं जेन्ना अजयसिंहाक कळ्ळें तेन्ना ताणें ताकाच आपले गादयेर बसोवन मेवाडचें राज्यपद दिलें. अजयसिंहाचे पूत क्षेमसिंह आनी सज्जनसिंह हांकां तें मानवलेंना आनी ते रागार जावन दक्षिणेंत गेले. तातुंतल्या सज्जनसिंहाच्या वंशांत छत्रपती शिवाजी महाराजाचो जल्म जालो.

**हंमीर (इ.स. १३१४ - १३६४) :** इ. स. १३१४ च्या अदमासाक अजयसिंहाक मरण येतकच हंमीर मेवाडचो राजा जालो. तो अरवली पर्वतावळींतल्या खेलवाडा हांगासावन राज्य करतालो. ताणें पयलीं मेवाडचे कांय किल्ले जिखून घेतले. चितोडगड घेवप हो ताचो मुखेल हेत आशिल्लो. चितोडगडाचेर पयलीं अलाउदिनाचो पूत खिजरखान राज्य करतालो. पूण हंमीरान थंय धूमशेण घातिल्ल्यान बेजारून तो दिल्लीक गेलो. उपरांत उलाउद्दिनान थंय मालदेव चौहान हाका चितोडगडाचेर धाडलो. ताणें थंय बरींच वर्सां बरो कारभार लो. पूण हंमीरान भोंवतणच्या वाठारांनी लुटालूट सुरू करतकच मालदेवान ताचेकडे सहजिकाय करपाचें चिंतून ताका आपली धूव दिली. हंमीरान तिचेकडे लग्न केलें आनी तिच्याच आदारान इ.स. १३२७ च्या अदमासाक चितोडगड जिखलो अशें म्हण्टात. चितोडगडाचेर हंमीरान स्वताच राजतिलक लावन घेतलो आनी महाराणा ही उपाधी घेतली.

चितोडगड वतकच मालदेवाचो पूत जैसा हो दिल्लीक गेलो आनी व्हडलें मुसलमानी सेनादल घेवन ताणें मेवाडाचेर धुरी घाली. पूण हंमीरान सिंगोली गांवालागसार ताका हारयलो.

महाराणा हंमीरान ६४ वर्सां मेवाडाचेर बरे तरेन राज्य केलें. ताच्या मरणाचे तारखेविशीं अभ्यासकांभितर एकमत ना. कांय जाणांच्या मतान ताका इ.स. १३६४ वर्सा मरण आयलें. पूण ताणें ६४ वर्सां राज्य केल्लें आसल्यार ताका इ.स. १३७८ वर्सा मरण आयलें आसूं येता अशें कांय अभ्यासक मानतात.

**क्षेत्रसिंह (इ. स. १३६४ - १३८२) :** हो हंमीराचो व्हडलो पूत हंमीराउपरांत मेवाडचे गादयेर बसलो. होय खूब पराक्रमी आशिल्लो. ताणें आपले राजवटींत मेवाडचें राज्य विस्तारून खूब वैभव वाडयलें. ताणें बुंदीच्या हाडा घराण्याक हारोवन बुंदीचेर आपली सत्ता स्थापली. उपरांत माळव्याचो सुभेदार दिलावरखान घूरी हाणें मेवाडाचेर आक्रमण करतकच क्षेत्रसिंहान ताचेकडे झूज केलें. क्षेत्रसिंहाक जैत मेळ्ळें पूण रोखडेंच ताका मरण आयलें.

**लक्ष्मणसिंह (इ.स. १३८२ - १४२०) :** क्षेत्रसिंहा उपरांत ताचो व्हडलो पूत लक्ष्मणसिंह वा लाखा हो मेवाडचो राजा जालो. तो धर्मीक वृत्तीचो आनी दानी आशिल्लो. मुस्लिम शासकांनी गया, काशी आनी प्रयाग हांगा यात्रेकरूंचेर जबर कर लायिल्ले ते ताणें बंद केले आनी तेखातीर मुस्लिम शासकांक खूब द्रव्य दिलें. ताणें खूब देवळां बांदलीं. सगळयांत पयलीं ताणें बदनोरच्या मेर नांवाच्या पहाडी जमातीचें बंड मोडून काडलें. ताच्या राज्य काळांत जावर हांगा रुप्याची आनी शिंशाची खाण सांपडिल्ल्यान राज्याचें उत्पन्न खूब वाडलें.

लाखाजीक चूंडा नांवाचो पूत आशिल्लो. तोच मेवाडचो राजा जावपाचो. तेखातीर मारवाडच्या राठोड राजान आपली धूव हंसबाई ताका दिवपाची केली. पूण लाखाजीन स्वताच तिचेकडे लग्न जावपाचो निश्चय केलो. पूण तिचो बापूय जाण्टेल्या लाखा राजाक आपली धूव दिवपाक तयार नाशिल्लो. कारण चूंडा हो युवराज आशिल्ल्यान तिच्या पुताक राज्य मेळचें नाशिल्लें. तेखातीर युवराज चूंडान शिंवासनावयलो आपलो हक्क सोडलो. हंसबाईचें लाखाजीकडे लग्न जालें. तांकां जो भुरगो जालो ताचें नांव मोकल. तोच लाखाजी उपरांत मेवाडचो राजा जालो. हंसबाईचो भाव रणमल्ल तिचेवांगडा मेवाडांत येवन रावलो.

**मोकल (इ. स. १४२० - १४३३) :** लाखाजीचो पूत चूंडा आनी मोकलाचें खूब बरेपण आशिल्लें. पूण हंसबाईक चूंडाचेर विस्वास नाशिल्लो. तेखातीर चूंडा मेवाड सोडून माळव्यांत गेलो. उपरांत रणमल्लच सगळो कारभार पळोवंक लागलो. मोकलूय पराक्रमी आशिल्लो. ताणें बुंदी, सांभर, नागौर, जालोर हीं संस्थानां जिखलीं. इ.स. १४३३ वर्सा गुजरातच्या सुलतानान मेवाडचेर आक्रमण केलें, तेन्ना राजा मोकल स्वता ताका प्रतिकार करपाखातीर गेलो. पूण वाटेंत ताचें क्षेत्रसिंहाच्या दोन अनौरस पुतांकडे बिनसलें आनी तांणी मोकलाचो वध केलो.

**कुंभा (इ.स. १४३३ - १४६८) :** मोकल मरतकच राज्यांत खूब अराजक माजलें. ताचो मामा रणमल्ल मारवाडांत गेल्लो तो रोखडोच व्हड सैन्य घेवन परतून आयलो आनी ताणें मोकलाचो पूत कुंभकर्ण हाका गादयेर बसयलो. चूंडाचो सख्खो भाव रघुदेव मोकलाक राज्यकारभारांत मार्गदर्शन करतालो, तो आतां कुंभाक करूंक लागलो. रघुदेव हो सत्वशील, प्रजावत्सल, पराक्रमी तसोच रुपेस्त आशिल्लो. ताका लागून सगळी प्रजा ताका मान दिताली. पूण रणमल्लाक तें सोंसलेंना. ताणें रघुदेवाचो वध करून घेतलो आनी आपणें राज्याचीं सगळीं सूत्रां हातांत घेतलीं. ताका लागून सगळी प्रजा पिकार जाली आनी जायत्या सरदारांनी चूंडाच्या आदारान कट करून रणमल्लाक जिवो मारलो. उपरांत महाराणा कुंभा चूंडाच्या मार्गदर्शनाखाल शासन करपाक लागलो. रणमल्लाक लागून राठोड आनी शिसोदिया ह्या दोन राजवंशांची युती खूब काळमेरेन चालू आशिल्ली आनी तेखातीर राजपूतांची सत्ताय राजस्थानांत थीर आशिल्ली. रणमल्लाच्या वधा उपरांत मात ह्या दोन घराण्यांत वैर सुरू जालें. कुंभाक मारवाडच्या राठोडांकडे तशेंच माळव्याच्या सुलतानाकडे झुजचें पडलें. दर वर्सा माळव्याची मुस्लीम सेना मेवाडांत घुसून लूट करताली आनी राजपूत सेना तांकां प्रतिकार करून धांवडावन घालताली. माळव्याच्या सुलतानान आपल्या जैताचें यादस्तिक म्हूण मांडू हांगा विजयस्तंभ उबारलो आनी राजा कुंभानूय इ. स. १४४८ वर्सा चितोडाचेर कीर्तिस्तंभ उबारलो. मारवाडांतूय राजा कुंभाक जैत मेळ्ळें आनी राठोडांचो सगळो प्रदेश, राजधानी मंडोरासयत ताच्या शेकातळा आयली. तेउपरांत ७ - ८ वर्सां बरीं थंडसाणेन गेलीं. इ. स. १४५६ वर्सा कुंभाक, नागौरचो राजा आनी गुजरातचो सुलतान हांचेकडे झूजचें पडलें. त्या झुजांतूय कुंभाक जैत मेळ्ळें. उपरांत माळव्याचो सुलतान महमूद खलजी, गुजरातचो सुलतान कुतुबुद्दीन आनी मारवाडचो जोधा राठोड हांणी मेळून मेवाडाआड, कबलात केली. पूण राजा कुंभा कोणाकूच बदलोना. त्याच वेळार कुंभाचो भाव क्षेमसिंह हाणें ताच्याआड कपट केलें पूण कुंभान ताचोय बंदोबस्त केलो.

राजा कुंभा हो मध्ययुगांतलो एक म्हान राजा आशिल्लो. तसोच तो विद्या आनी कला हांचोय पुरस्कर्तो आशिल्लो. राजाक निमाणेकडे उन्माद रोग जालो. ते स्थितींतूच ताचो राज्यलोभी व्हडलो पूत उदयसिंह हाणें ताचो वध केलो आनी राज्य बळकायलें. पूण कुंभाचे सरदार सामंत उदयसिंहाच्या आड आशिल्ले. उदयसिंहान ४ वर्सां राज्य केलें. उपरांत ताचो धाकटो भाव रायमल्ल हाका सगळया सरदारांनी राज्यपद दिलें तेन्ना उदयसिंह पळून गेलो.

**रायमल्ल (इ.स. १४७३ - १५०९) :** रायमल्लाचे राजवटींत, मेवाडचे गादयेरखातीर जायत्या जाणांनी उठाव केलो. सगळयांत पयलीं

कुंभराण्याचो धाकटो भाव क्षेमसिंह हाणें मेवाडाचेर घुरी घाली. पूण रायमल्लान ताका हारयलो. ह्याच झुजांत क्षेमसिंहाक मरण आयलें. हाच्या फाटल्यान माळव्याचो सुलतान घियासुद्दीन खलजी आनी ताचे उपरांत मेवाडांतल्या कांय आदिवासी जमातींचोय रायमल्लान बंदोबस्त केलो. माळव्याच्या सुलतानान आपलो सरदार जफरखान हाका परतून मेवाडाचेर धाडलो. पूण थंयच रायमल्लान ताका हारयलो आनी ताची फाट धरून माळव्याचेर स्वारी केली. खैराबादच्या रानांत व्हड झूज जावन दुस्मानाचो पुराय नाश जालो.

रायमल्लाक १३ पूत आशिल्ले. तातुंतले पृथ्वीराज, जयमल्ल आनी संग्रामसिंह हे पयले तीन आशिल्ले. पूण कोणें तरी संग्रामसिंह राजा जातलो अशें भविश्य सांगिल्ल्यान पृथ्वीराज आनी जयमल्ल हांणी मेळून संग्रामसिंहाचेर घुरी घाली. तो जखमी जावन पळून गेलो. पृथ्वीराज हुशार आशिल्लोच. तोच रायमल्लाक राज्यकारभारांत आनी झुजांत आदार करतालो. पूण एकदां ताचो भावोजी म्हळयार भयणीचो घोव सिरोहीचो राजा हाचेकडे वाद जालो आनी ताणें पृथ्वीराजाक वीख घालून मारलो. जयमल्लय एका झुजांत मेलो. तेन्ना रायमल्ल दुख्खान पिसो जावन मेलो आनी संग्रामसिंहाक राज्यपद मेळळें.

**संग्रामसिंह (इ.स. १५०९ - १५२७) :** हाका राजा सांगा ह्या नांवानूच नामना मेळळी. मेवाडच्या सगळया महाराजांभितर होच सगळयांत श्रेश्ठ मानतात. तो एक बरो झुजारी तसोच बुध्दिमान शासकूय आशिल्लो. ताणें दिल्ली, माळवा आनी गुजरात ह्या तिनूय सुलतानांक हारोवन मेवाडची सत्ता प्रस्थापित केली. इ.स. १५२६ वर्सा बाबर दिल्लीचो बादशाह जालो आनी इ.स. १५२७ वर्सा ताचो आनी संग्रमसिंहाचो व्हड संघर्श जालो. तेन्ना संग्रामसिंहाचो पराभव जालो. जखमी सांगा रानांत वचून रावलो आनी बाबराकडे परतून झूज करूंक सैन्य एकठावंक लागलो पूण ३० जानेवारी १५२७ दिसा ताका मरण आयलें.

**रत्नसिंह (इ. स. १५२८ - इ. स. १५३१) :** संग्रामसिंहाउपरांत ताचो तिसरो पूत रत्नसिंह राजा जालो. माळव्याचो सुलतान महंमूद खलजी हाणें मेवाडाचेर घुरी घाली पूण रत्नसिंहान, गुजरातचो सुलतान बहादुरशहा हाचो आदार घेवन माळव्याचेर परतून चढाई केली आनी सुलतानाक हारयलो. बहादुरशहान मांडूचेर हल्लो करून सुलतानाक अटक केली आनी माळवा आपल्या राज्याक जोडलो. मजगती सांगाची बायल कर्मवती, ही बुंदीच्या हाडा राजपुत घराण्यांतली सूरजमलची भयण. ती आनी तिचे दोन पूत विक्रमादित्य आनी उदयसिंह रणथंभोर किल्ल्याचेर रावतालीं.

रत्नसिंह आनी सूरजमल हांचें बरें नाशिल्लें. एकदां शिकारेच्या निमतान ते एकठांय आयले आनी तांचें द्वंद्वयुध्द जावन दोगूय जाण मेले.

**विक्रमादित्य (इ.स. १५३१ - १५३६) :** रत्नसिंहाक पूत नाशिल्ल्यान ताचो धाकटो भाव विक्रमादित्य गादयेर बसलो. तो व्यसनी आनी पात्र नाशिल्ल्यान राज्याचो कारभार वेवस्थित चलनाशिल्लो. हाचो फायदो घेवन गुजरातचो सुलतान बहादूरशहा हाणें मेवाडाचेर स्वारी केली. ताणें रायसेन किल्लो जिखून घेतकच चितोडगडाचेर चढाई केली. राजमाता कर्मवतीन माळव्याचो जो जमनीचो वांटो मेवाडाक जोडिल्लो तो बहादूरशहाक दिवन कबलात केली. तरीपूण ताका चितोड सर करून मेवाड जिकपाचो आशिल्लो. तेखातीर ताणें इ.स. १५३४ वर्सा परतून घुरी घाली. कर्मवतीन सगळया राजपूत सरदारांक देशभक्तीचें आवाहन केल्ल्यान ते चितोडच्या रक्षणाखातीर सैन्य घेवन आयले. कर्मवतीन गुहिलोत घराण्यांतल्या वागसिंहाक तात्पुरतें राज्यपद दिवन चितोडच्या रक्षणाची सिध्दता केली. विक्रमादित्य आनी उदयसिंह बुंदीक वचून रावले. पूण सगळे यत्न फुकट गेले आनी बहादूरशहान चितोड जिखलो. कर्मवतीन हुमायूं बादशहाक आदाराक आपयल्लो पूण तो वेळार पावलो ना. तेन्ना गडावयल्या सगळया राजपूत बायलांनी जोहार केलो आनी राजपूत वीरांनी रणांगणाचेर झुजतां झुजतां मरण पत्करलें. रोकडोच हुमायूं चितोडाचेर घुरी घालपाखातीर आयलो. बहादूरशहान ताका प्रतिकार केलो पूण हारिल्ल्यान तो मांडूकडे पळून गेलो. हुमायूंन ताची फाट धरली. हेवटेन राजपूत सरदारांनी चितोडाचेर हल्लो करून तो परत घेतलो, विक्रमादित्य आनी उदयसिंह हांकां परते हाडले. पूण विक्रमादित्याचें आचरण बरें नाशिल्लें. इ.स. १५३६ वर्सा बनवीर नांवाच्या एका दासीपुतान विक्रमादित्याचो वध केलो आनी स्वताच गादयेर बसलो. ताणें उदयसिंहाकय मारपाचो यत्न केलो. पूण पन्ना नांवाचे दासीन ताका वाटायलो आनी सुरक्षित रितीन कुंभलगडाचेर पावयलो. उपरांत सरदारांनी चितोडाचेर घुरी घालून बनवीराक धांवडावन घालून उदयसिंहाक गादयेर बसयलो.

**उदयसिंह (इ.स. १५४० - १५७२) :** हाणें खूब काळ राज्य केलें. विलासी वृत्ती पूण आंगांत कसलीच कर्तबगारी नाशिल्ल्यान ताणें मेवाडचें वैभव वाडोवपाक कांयच केलेंना. इ.स. १५६७ वर्सा अकबर बादशहान चितोडाचेर स्वारी केली तेन्ना महाराजा उदयसिंह रानांत पळून गेलो. पूण सगळया राजपूत वीरांनी शर्थीन झुजून रणांगणाचेर मरण पत्करलें. तशेंच गडावयल्या बायलांनी जोहार केलो. उपरांतच अकबराक गड जिकपाक मेळळो (इ.स. १५६८). मागीर दुसऱ्या वर्सा ताणें रणथंभोरचोय किल्लो घेतलो. उपरांत तो कुंभलगडाचेर रावपाक लागलो. ताचेपयलीं ताणें उदयपूर नगर वसयलें आनी उपरांत तीच मेवाडची राजधानी जाली. इ.स. १५७२ वर्सा उदयसिंहाक मरण आयलें. ताका वीस राणयो, पंचवीस पूत आनी वीस धुवो आशिल्ल्यो. मरच्या वेळार ताणें जगमल नांवाच्या णवव्या पुताक युवराज नेमलो, तो ताचे आवडटे राणयेचो पूत आशिल्लो. पूण तो पात्र नाशिल्ल्यान राजपूत सरदारांनी ताका गादयेर बसूंक दिलोना. व्हडलो पूत प्रतापसिंह हाकाच तांणी राज्यपद दिलें.

**प्रतापसिंह (इ.स. १५७२ - १५९७) :** हो राजा कुंभलगडावयल्यान, स्वाभिमानान आनी स्वतंत्रपणान मेवाडचें शासन करतालो. पूण मेवाडचो चडसो भाग आनी किल्ले मोगलांकडे आशिल्ले. राजस्थानांतल्या चडशा सगळ्या राजपूत राजांनी अकबराकडे एकचार सादून आनी ताचें मांडलिकत्व पत्करून आपल्यो धुवो ताका दिल्यो. राणा प्रताप मात एकटोच राज्य करतालो. पूण ताचें बळगें सामकें उणें आशिल्लें. जे सरदार आनी लोक ताचेकडे एकनिश्ठ आशिल्ले, तांकां ताणें मोगलांकडे सरव्य आशिल्ल्या राजपुतांचेर बहिश्कार घालपाची आज्ञा दिली.

अकबरान आपलें व्हड सैन्य दिवन मानसिंहाक मेवाडाचेर धाडलो. पूण राजान पहाडी जंगली प्रदेशाचो आलाशिरो घेवन मोगल सेनेचेर लिपचोरयां हल्ले सुरू केले. ताका लागून बेजारून मानसिंह परत गेलो. उपरांत अकबरान स्वताच मेवाडाचेर स्वारी केली आनी मेवाडांतल्यो बऱ्योचशो सुवाती ताणें घेतल्यो. पूण राजा प्रतापसिंह ताका मेळ्ळोना. उपरांत राजान पहाडी जंगलांतल्यान भायर येवन सगळ्यो सुवाती परत घेतल्यो. ताचे उपरांत आनीक एक फावट अकबरान कितल्याशाच मातबर सरदारांक मेवाडाचेर धाडले. पूण राजा प्रताप अजिंक्य उरलो. इ.स. १५८४ मेरेन ताणें चितोडगड आनी मंगलगड मेळून चडसो सगळो मेवाड परत घेतलो. अकबरान मेवाड घेवपाचो नाद सोडिल्ल्यान सुमार १३ वर्सां राजा प्रतापाक शांतताय मेळ्ळी. इ.स. १५९७ वर्सा आतकड्यांचें दुयेंस जावन ताका मरण आयलें.

**अमरसिंह (इ.स. १५९७ ते १६२०) :** प्रतापसिंहाचो व्हडलो पूत अमरसिंह हो बापायफाटल्यान मेवाडचो राजा जालो. तोय बापायभशेन हुशार आशिल्लो. प्रतापसिंह मरतकच अकबरान, सलीमाक व्हड सेनादल दिवन मेवाडाचेर धाडलो. पूण अमरसिंहान ताका हारयलो. उपरांत सलीम दिल्लीचो बादशहा जातकच ताणें मेवाडाचेर खूब घुरयो घाल्यो तरीय ताका यश मेळ्ळेंना आनी ताणें अमरसिंहाचो भाव सागर हाका मेवाडचो राजा म्हणून चितोडचे गादयेर बसयलो. पूण हे भेदनीतीक लागून एकाय राजपूत सरदारान सागराक साथ दिलीना. निमाणें ताणें चितोडचो किल्लो अमरसिंहाच्याच सुवादीन केलो. जहांगीरान मेवाडाचेर सतरा घुरयो घाल्यो, पूण ताका जैत मेळ्ळेंना. निमाणें मेवाडचेंय मनशांचें तशेंच द्रव्याचें बळगें उणें जाल्लें तेन्ना राजपूत खुर्रम (शहाजहान) हाका व्हड सैन्य दिवन मेवाडचेर धाडलो. अमरसिंहान प्रतिकार करपाचो खूब यत्न केलो पूण तो हारलो आनी ताणें बादशहाकडे कबलात केली. ताच्यो अटी अशो आशिल्ल्यो - १) अमरसिंहान आपल्या व्हडल्या पुताक मोगल दरबारांत धाडप २) एक हजार राजपूत स्वार शाही सैन्यांत चाकरेक दवरप आनी ३) चितोडगडाची कसलीच दुरुस्ती करप ना. अमरसिंहान सगळ्यो अटी मान्य केल्ल्यान मेवाडचें स्वातंत्र्य सोंपलें. युवराज कर्णसिंह शाहजादा खुर्रमावांगडा बादशहाक मेळपाक अजमीराक गेलो. थंय बादशहान ताका पांच हजारी मनसब दिवपाची केली. ही कबलात भोवमानान जाल्ली आसली तरीय अमरसिंहाक खूब वायट दिसलें. ताणें कर्णसिंहाचेर सगळो कारभार सोंपयलो आनी उदयपूरच्या राजवाड्यांत एकांतांत वचून रावलो. थंयच इ.स. १६२० वर्सा ताका मरण आयलें.

**कर्णसिंह (इ. स. १६२० - १६२८) :** कर्णसिंहान आपले राजवटींत मेवाडचो उद्ध्वस्त जाल्लो भाग परतून सारको केलो. शाहजादा खुर्रमान जेन्ना जहांगीराआड बंड केलें तेन्ना तो उदपूराक गेलो. कर्णसिंहान आपलो धाकटो भाव भीमसिंह हाका सैन्य दिवन ताच्या आदाराक धाडलो. तो खुर्रमाचो दुस्मान पर्वेज हाचेवांगडा झुजतना इ.स. १६२४ वर्सा मेलो आनी इ.स. १६२८ वर्सा कर्णसिंहाक मरण आयलें.

**जगतसिंह (पयलो, इ.स. १६२८ - ५२) :** कर्णसिंहा उपरांत ताचो पूत जगतसिंह गादयेर बसलो. ताणें कबलातींतले सर्तीआड चितोडगडाची दुरुस्ती सुरू केली. पूण ती पुराय जावंचे पयलींच तो इ.स. १६५२ वर्सा ताका मरण आयलें. ताणें बरींचशीं देवळां, प्रासाद आनी तळीं निर्माण केल्लीं.

**राजसिंह (पयलो इ.स. १६५२ - १६८०) :** जगतसिंहा उपरांत ताचो पूत गादयेर बसलो. बापायच्या मरणाक लागून बंद पडिल्लें चितोडगडावयलें काम ताणें परतून सुरू केलें. देखून शहाजहान बादशहान ताचेर व्हड सैन्य धाडलें. पूण राजसिंहान झूज करिनासतना, बादशहाची चूक मागून, केल्लें बांदकाम मोडून उडयलें. बादशहान अजमीरलागसारचो मेवाडचो कांय भाग घेतिल्लो, ताचो राजसिंहाक राग आशिल्लो. फुडें शहाजहान दुयेंत पडटकच ताचे चारय पूत आपसांत झगडूंक लागले. हीच संद धरून राजसिंहान बरींच ठिकाणां परतून जिखून घेतलीं. उपरांत औरंगजेब तख्ताचेर बसलो तेन्ना ताणें राजसिंह आनी ताचो पूत सुलतानसिंह हाचो हत्ती, घोडे, जडजवाहिर धाडून भोवमान केलो आनी बदनोर, डोंगरपूर आनी बांसवाडा हे प्रदेश तांकां परत दिले. पूण राजसिंहाक हिंदू धर्माचो खूब अभिमान आशिल्ल्यान आनी औरंगजेब तितकोच हिंदू धर्माचो दुस्मान आशिल्ल्यान, तांचो एकचार चड तेंप तिगलो ना. औरंगजेबान हिंदुंचेर जिझिया कर लायलो तेन्ना राजसिंहान ताका खूब विरोध केलो. इ.स. १६६२ वर्सा मेवाडच्या दक्षिण भागांतल्या मीन जमातींनी उठाव केलो तो राजसिंहान मोडून काडलो. इ.स. १६७८ वर्सा जोधपूरचो महाराणा जसवंतसिंह राठोड हो काबूल हांगा मेलो. तेन्ना ताच्यो राणयो दुर्गादास राठोड नांवाच्या सरदारावांगडा जोधपूराक परत आयल्यो. वाटेंत एक राणी बाळंत जावन तिका चलो जालो, ताचें नांव अजितसिंह. बादशहान जोधपूरचें राज्य खालसा केलें आनी राजपूत अजितसिंहाक दिल्लीक धाडपाचो हुकूम काडलो. पूण दुर्गादासान तो मानलोना. राजपूताक

घेवन तो आनी हेर सरदार मारवाडांतल्या पहाडी रानांत लिपून बसले. तांचे राखणेखातीर राजसिंहान तांकां खूब आदार केलो. हें कळटकच औरंगजेब व्हड फौज घेवन अजमीराक आयलो, तेन्ना राजसिंह आपल्या सैन्यासयत पहाडी प्रदेशांत वचून रावलो. बादशहान उपरांत उदयपूर घेतलें, थंयचीं देवळां उडयलीं आनी शाहजादा अकबर हाका थंय दवरून तो परत आयलो. रोकडेंच राजपूत सैन्यान दोंगरी भागांतल्यान भायर येवन मुसलमानी सैन्याचेर हल्ले केले. औरंगजेबान परतून व्हड सैन्य मेवाडाचेर धाडलें. पूण राजपुतांनी लिपून हल्ले करून तांकां सतावन सोडले. इ.स. १६८० वर्सा राजसिंहाक मरण आयलें. शिसोदिया वंशांतलो राजसिंह हो निमाणचो पराक्रमी राजा.

**जयसिंह (इ. स. १६८० - ९८) :** राजसिंहा उपरांत ताचो पूत जयसिंह मेवाडचो राजा जालो. ताणें मोगलांकडे आपलें झूज चालूच दवरलें आनी शाहजादा अकबराक बादशाहा करपाचें उतर दिवन खोशी दवरलो. इ.स. १६८१ वर्सा अकबरान स्वताक दिल्लीचो बादशाहा म्हूण घोशीत केलो. औरंगजेबान ताका फटीचें पत्र धाडलें आनी ताच्यांत आनी ताच्या साथीदारांभितर फूट घाली. पूण हें कारस्थान रोकडेंच उक्तें जालें. उपरांत जयसिंहान मांडलगडाचेर चढाई करून तो घेतलो. सगळ्या घडणुकांक लागून बादशाहाक चिंता जावपाक लागली. तेवटेन दक्षिणेंत मराठ्यांचो नेट वाडलो. हेवटेन अकबराकडे वायटपण जाल्लें. तेखातीर बादशाहान जयसिंहाकडे कबलात केली. तेप्रमाण बादशाहान आपलें सैन्य मेवाडांतल्यान काडून घेवंचें, जयसिंहान जिझिया कराबदला बादशाहाक कांय प्रदेश दिवंचो आनी राणा राठोड हाका आदार करचो न्हय अशें थारलें. उपरांत बादशाहा दक्षिणेंत गेलो आनी थंयच रावलो. जयसिंहान उपरांत बरींच वर्सां राज्य केलें, देवळां आनी तळीं बांदलीं. इ.स. १६९८ वर्सा ताका मरण येतकच ताचो पूत अमरसिंह गादयेर बसलो.

**अमरसिंह (दुसरो, इ.स. १६९८ - १७१०) :** हाणें मेवाडभर आपली सत्ता प्रस्थापित केली. ताणें राजवेवस्थेंत खूब सुदारणा केल्यो आनी सरदारांचे जहांगिरींखातीर नेम तयार केले. इ.स. १७०७ त औरंगजेब मरतकच, शाहजादो आजम आनी मुअज्जम हांच्यांत झूज जालें. तेन्ना अमरसिंहान मुअज्जमाचो पक्ष घेतलो आनी मुअज्जम जैतिवंत जावन दिल्लीच्या तख्ताचेर बसलो. इ.स. १७१० वर्सा अमरसिंह मरतकच ताचो पूत संग्रामसिंह गादयेर बसलो.

**संग्रामसिंह (दुसरो, इ.स. १७१० - ३४) :** रामपुरा परगणा अकबर बादशाहाच्या काळासावन मेवाडांतल्यान वेगळो जाल्लो तो संग्रामसिंहान परतो घेतलो. बादशाहा फर्रुकसियर हाणें ताका मान्यताय दिली. तेन्ना दिल्लीची सत्ता सय्यद भावांकडे आशिल्ली. दुर्गादास राठोड हो जोधपूराक महाराजा अजितसिंह हाच्या म्हन्यांत आशिल्लो आनी तोच मारवाडचो खांबो आशिल्ल्यान हेर दुस्वासी सरदारांनी अजीतसिंहाक ताचेविशीं फट खबरो सांगून ताका शिमेभायरो करपाक लायलो. तेन्ना राठोड, महाराजा संग्रामसिंहाकडे आयलो. राजान ताची रामपुरा परगण्याचेर नेमणूक केली आनी विजयपूरची जहांगीरय दिली. संग्रामसिंहाचें मराठ्यांकडे बरेंपण आशिल्लें. छत्रपती शाहू मेवाडच्या वंशांतलो आशिल्ल्यान संग्रामसिंहाक मान मेळटालो. ताणें राज्याचो विस्तार केलोना, पूण खुबशीं देवळां बांदलीं आनी बरी राज्यवेवस्था करून शेती, वेपार आनी उद्देगधंद्यांक ऊर्बा दिली. धर्मीक आनी समाजीक नदरेन ताका राजस्थानांत खूब मानतात.

**जगतसिंह (दुसरो, इ.स. १७३४ - १७५१) :** संग्रामसिंहा उपरांत ताचो व्हडलो पूत जगतसिंह गादयेर बसलो. राजस्थानांतल्या सगळ्या मुखेल राजांनी इश्टगतीची केल्ली कबलात ताच्या कारकिर्दींतली पयली म्हत्वाची घडणूक. पूण दर एकल्याच्या सुवार्थाक आनी दुस्वासाक लागून ही कबलात कोणेंच पाळ्ळीना.

उपरांत, बाजीराव पेशवा माळव्यांतल्यान मेवाडांत गेलो. तेन्ना महाराणा जगतसिंहान ताका देड लाखाची वर्सुकी खंडणी दिवपाचें मान्य केलें. आमेरचो सवाई जयसिंह मरतकच थंय भावांभितर झगडीं सुरू जालीं. तातूंत जगतसिंहान माधवसिंहाक आनी होळकरांनीय ताका आदार केलो आनी निमाणें माधवसिंहाक जयपूरची गादी मेळ्ळी. इ.स. १७५१ वर्सा जगतसिंहाक मरण आयलें आनी ताचो पूत प्रतापसिंह (दुसरो) गादयेर बसलो. ताणें फकत तीन वर्सां राज्य केलें आनी उपरांत ताचो पूत राजसिंह (दुसरो) हाणें सात वर्सां राज्य केलें. ताचे कारकिर्दींत मराठ्यांनी मेवाडाचेर घुरयो घालून बरीच खंडणी वसूल केली. राजसिंह इ.स. १७६१ वर्सा मेलो. ताका पूत नाशिल्ल्यान ताचो बापोलभाव अरिसिंह (जगतसिंह, दुसरो हाचो पूत) गादयेर बसलो. पूण तो सरदारांचो मान राखनासलो. ताणें कर्तबगार प्रधान अमरचंद हाका कामावयल्यान काडून उडयलो. तशेंच कांय राजनिश्ठ सरदारांकय ताणें कपटान मारले. तेन्नाच राजसिंहाची विधवा गुरवार बायल बाळंत जावन तिका चलो जालो. ताचें नांव रतनसिंह. सरदारांनी ताका कुंभलगडाचेर दवरून तोच मेवाडचो राजा म्हूण घोशीत केलें. अरिसिंहान सिंध आनी गुजरातांतल्या मुसलमानांक आपल्या सैन्यांत घेतिल्ले. तेन्ना रतनसिंहाच्या सरदारांनी शिंद्यांक १० लाख रुपया दिवन तांचो आदार घेतलो. अरिसिंहान कांय मराठे सरदारांक आदाराक आपयले. पूण शिंद्यांनी तांकां हारयले आनी उदयपूराक वेढो घालो. त्याच वेळार मुसलमान शिपायांनी पगाराखातीर ताच्या महालाक वेढो घालो. अशे परिस्थितींत ताणें अमरचंदाक आदाराक आपयलो. अमरचंदान खूब यत्न करून द्रव्य एकठायलें, शिपायांक पगार दिलो आनी शिंद्यांक व्हड खंडणी दिवन परत धाडले. बुंदीचो राजा अजितसिंह हाडा हाचें अरिसिंहाकडे दुस्मानपण आशिल्लें. इ.स. १७७३ वर्सा ताणें शिकारेच्या निमतान अरिसिंहाक रानांत व्हरून जिवो मारलो.

उपरांत अरिसिंहाचो पूत हंमीरसिंह (दुसरो) हाणें पांच वर्सां राज्य केलें. ताच्या मरणा उपरांत ताचो धाकटो भाव भीमसिंह हाणें इ.स. १७७८ वर्सा सावन इ.स. १८२८ मेरेन राज्य केलें. ह्या काळांत शिंद्ये आनी होळकर हांच्यो घुरयो तशेंच सरदारांची बेबंदशाय हाका लागून मेवाडची परिस्थिती सामकी खालावली. उपरांत शिंद्ये आनी होळकर हांचें इंग्रजांकडे झूज सुरू जालें. तेन्नाय मेवाडाचेर खूब धाडी पडल्यो.

भिमसिंहाची धूव कृष्णाकुमारी हिचेखातीर जोधपूर आनी जयपूर ह्या राज्यांचे राजे झगडटाले. तें टाळपाखातीर आनी मेवाडावयलें संकट पयस करपाखातीर भीमसिंहान आपले धुवेक वीख दिवन मारून उडयली. इ.स. १८१८ वर्सा पेशवाई बुडली आनी मेवाडचो राजाय स्वखोशयेन इंग्रजांचो मांडलिक जालो.

अशे तरेन शिसोदिया वंशान सुमार ५०० वर्सां मेवाडाचेर राज्य केलें. तातुंतलीं ३०० वर्सां मेवाड स्वतंत्र आशिल्लें.

- कों. वि. सं. मं.

**शींव :** मार्जार जातींतलो एक पशू. हाचो पेंथरा लिओ (Panthera Leo) फैलिडी कुळांत आस्पाव जाता.

ताची उंचाय चार फूट आनी लांबाय १० फूट इतली आसता. नराचे मानेभोंवतणी आयाळ आसता. कुडिचो रंग पिंगसो आनी ताचेर पट्टेय आसतात. तोंड रूंद आनी कमर बारीक आसता. तो वागाभाशेन बळीश्ट आनी धाडसी आसता.

नरापरस मादी आकारान ल्हान आसता. शींव एक पुर्विल्लो पशू आशिल्ल्याकारणान ऋग्वेद, यजुर्वेद, तैत्तिरीय संहिता, काठक संहिता, मैत्रायणी संहिता ह्या ग्रंथांनी शींवाचे संदर्भ आयल्यात.

तो दाट रानांनीं रावता. दिसाच्या उजवाडांत ताचे दोळे दीपकावतात म्हण तो दिसभर घोलींत रावून रातचो भायर सरता.

भारताच्या कठियावाड वाठारांत शींव कमी प्रमाणांत सांपडटात. पूण अफ्रिकेच्या रानांनी तो चड प्रमाणांत आसा. अस्तंत आशिया, ग्रीस, मेसोपोटेमिया हांगा तो पळोवंक मेळटा.



मादी शींव एके फावटी तीन ते चार छाव्यांक जल्म दिता. ती तांकां शिकार कशी करप हाचेंय शिक्षण दिता. गाय, बैल, हरण हांचें मांस हें तांचें मुखेल अन्न.

भारतीय वाङ्मयांत शींवाक राजसत्तेचें प्रतिक मानला म्हणून राजाच्या आसनाक शिंवासन म्हण्टात.

देवता स्वरुपांतल्या शींवाचें दर्शन म्हळ्यार नरसिंह. विष्णुच्या दशावतारांत हो चवथो अवतार हिरण्यकशिपूसारक्या बळिश्ट दैत्याक मारपाखातीर घेतिल्लो. नरशिंहाच्या माध्यमांतल्यान ताका देवरूप दिल्लें आसा. ताका दुर्गेचें वाहन केलां. शिल्पकारांनी कीर्तिमुखाच्या स्वरुपांत ताका देवळाच्या दारार बसयला. कवींनी ताचेर कवनां करून, ताका साहित्यांत अमर केला. ताच्या संबंदीं संकेत निर्माण करून जातकशास्त्रान ताका घराघरांनी पावयलो. अशे तरेन जीणेच्या जायत्या क्षेत्रांक व्यापपी हें जनावर आसा.

शींव हो राश्ट्रीय पशू आशिल्लो, पूण आतां ताचो जागो वागान घेतिल्लो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**शीख पंथ :** भक्ती आनी क्षात्रतेज हांचो सुयोग जमिल्लो पंजाबांतलो एक पंथ. शीक्ष (सीख) म्हणजे शिश्य. शीखांच्या गुरूंचें शीश्यत्व पत्करपी तो शीख. ह्या पंथाचो आद्य गुरू नानक मूळ हिंदू आशिल्लो. गुरू नानक हाणें त्या काळांत इस्लामी लोकांच्या आक्रमणांपसून पंजाबी हिंदुंची राखण करपाच्या उद्देशान आनी तांचें इस्लामी धर्मांतर रोखपाच्या हेतून, हिंदू आनी मुसलमान धर्म तत्त्वाचो समन्वय सादपी शीखपंथ सुरू केलो. गुरू नानक हाच्या उपरांत गुरू परंपरेंतले णव गुरू अशे आसात -

१) गुरू अंगद २) गुरू अमरदास ३) गुरू रामदास ४) गुरू अर्जुनदेव ५) गुरू हर गोविंद ६) गुरू हरिराय ७) गुरू हरिकिशन ८) गुरू तेगबहादुर ९) गुरू गोविंदसिंग.

१० वो गुरू गोविंदसिंग हाणें गुरू ग्रंथाकच गुरू मानून हाच्या फुडें गुरू जावचो ना अशें सांगून गुरू परंपरा खंडीत केली.

आत्मीक मुक्तीचो पुरस्कार करपी आनी निवृत्ती मार्गाक विरोध करपी शीख धर्म हो प्रवृत्ती मार्गी आसा. पयलो गुरू नानक ते १० वो गुरू गोविंदसिंग हाणें शीख लोकांक क्षात्र धर्माची दीक्षा दिवन जागृती सतत चालू दवरली. इ.स. १५०० ते १८०० मेरेन शीख पंथीयांनी शीख गुरूच्या मुखेलपणाखाल मुस्लीम आक्रमणांक प्रतिकार करपी एक स्वतंत्र आनी सशक्त अशी संघटना पंजाबांत निर्माण केली आनी दक्षिणेंत जशें मराठ्यांनी मुस्लीम आक्रमणांक समर्थपणान तोंड दिलें, तशेंच शीखांनी पंजाब पेशावर, काश्मीर ह्या प्रदेशांतलीं मुस्लीम आक्रमणां आडावन दवरलीं. ह्या कामाक शीख गुरूक आनी तांच्या शीश्यांक देश रक्षणाखातीर बलीदान दिवचें

पडलें. गुरू ग्रंथ (ग्रंथ साहित्य) हो शीख लोकांचो पवित्र ग्रंथ आसून ताका सगळ्या गुरूंच्या ज्योती स्वरूप मानतात. शीखांच्या गुरूद्वारांत देवाची मूर्ती ना जाल्यार ग्रंथसाहेबाकच पूजतात. ह्या ग्रंथाचें कार्य गुरू अंगद, गुरू अमरदास हांचे कारकीर्दींत सुरू जावन गुरू अर्जुनदेव हांचे कारकीर्दींत १६०४ त पूर्ण जालें.

हो ग्रंथ अमृतसर हांगाच्या सुवर्ण मंदीरांत दवरला. हो ग्रंथ पंजाबी भाशेंत आसून, गुरूमुखी लिपींत तातूंत गुरूचीं ४८३१ पदां आसात. त्याभायर संत आनी भक्त हांच्या पदांचो तातूंत आस्पाव जाता. शीखांच्या उपासना मंदिराक गुरूद्वार म्हण्टात. अशीं गुरूद्वारां देशभर आसात. ह्या गुरूद्वारांनी चौरंगार सजयल्लो गुरूग्रंथ आसता. दर दिसा थंय गुरूग्रंथाचें वाचन जाता. उदेंतेक पाटणा, अस्तंतेक अमृतसर, उत्तरेक आनंदपूर, दक्षिणेक नांदेड हांगाच्या गुरूद्वारांच्या तक्तांक (न्यायज्ञानी धर्मपीठ) दर्जो आसा. ह्या तक्तावरवीं शीखांचें धर्मीक नियंत्रण जाता. गुरू गोविंदसिंगाच्या काळांत निर्मलपंथ आनी ग्यानी पंथ अशे दोन शीख पंथ निर्माण जाले.

**शीख संस्कार :** हिंदुंच्या संस्करां सारखे शिखांमर्दी सोळा संस्कार नासतात. कांय मोजकेच संस्कार ते गुरूग्रंथाच्या आदारान करतात.

**जातक :** भुरगें जल्मल्या उपरांत चडशे लोक कसलोच संस्कार करीनात. पूण कांय शीख लोक जपजींतले पयले पांच श्लोक भुरग्याच्या कानांत फुतफुततात. ते नामकरण संस्कार करतात. त्यावेळार गुरू ग्रंथाचें खंयचेंय एक पान उगडून ताचेवयल्या पयल्या अक्षरान सुरू जावपी नांव भुरग्याक दवरतात. त्या उपरांतचो संस्कार म्हळयार केसांची गांठ मारप ह्या संस्कारावेळार भुरग्याक गुरू ग्रंथ पयलेच खेप वाचपाक शिकयतात आनी सगळया लोकांक जेवण दितात.

**दीक्षा :** चलो आनी चली जेन्ना वयांत येतात तेन्नाच तांकां शीख धर्माची दीक्षा दितात. ह्या वेळार सोयऱ्या - धायऱ्यांक आपयतात. समाजांतले पंच (ज्येश्ठ आनी श्रेश्ठ अशे पुरूश) दीक्षा दिवपाचें काम करतात. हे दीक्षेक अमृतदीक्षा वा पोल अशेंय म्हण्टात. लोखणाच्या आयदनांत उदक घेवन तातूंत बत्ताशे घालून उदक खंडान (दोनय वटेन धार आशिल्लो चाकू) धवळल्या उपरांत अमृत तयार जाता. तें करताना गुरू ग्रंथाच्या नित्योपासनेंतले पांच मंत्र म्हण्टात आनी दीक्षार्थ्याक खालसा पंथाचो सपूत घेवंक लायतात. सपूत घेतल्या उपरांत दीक्षार्थी गुरू ग्रंथाक पांयां पडटा आनी अमृत पियेता. दीक्षा दिवपी पंच दीक्षार्थ्याच्या मस्तकार पांच फावटी तें उदक शिंपडायतात आनी पांच फावटीं दोळयांक लायतात. तशें करताना 'वाह गुरूजीका खालसा', 'वाह गुरूजी की फतेह' (म्हळयार परमेश्वराचो खरो शिश्य आसा. गुरूजीचो विजय जांव) अशी घोशणा करतात. ही दीक्षा जाल्या उपरांत शीख व्यक्तीक नवो जल्म मेळळा, अशें मानतात. कांय फावटीं दीक्षित व्यक्तीक दुसरें नांवय दवरतात. त्या वेळार ताका पांच ककार कुडीचेर धारण करपाक दितात ते अशे - १) केश, २) कंगा (ल्हान फणी), ३) कच्छ (मोटवी विजार), ४) कडा (लोखणाचें ल्हान कडें) आनी ५) कृपाण (ल्हान तलवारी सारकें शस्त्र). दीक्षेउपरांत दर एका शिखाक पंथाच्या तत्त्वाप्रमाण वागचें पडटा. चलो वा चलयेक दीक्षा घेतल्या उपरांत लग्न जावपाचो अधिकार मेळटा.

शिखांचो लग्नविधी हिंदू लोकांसारखोच आसता. पूण लग्नावेळार वैदिक वा पौराणिक मंत्रां बदला ते गुरू ग्रंथांतलो आनंद नांवांचो मंत्र म्हण्टात आनी लग्नाकय ते आनंदकारज अशें म्हण्टात.

लग्न थारल्याउपरांत तिळो लावपाचो सुवाळो जाता. गुरूद्वारांतलो एकाद्रो धर्मोपदेशक पयलीं जपजीसाहेबांतले पांच मंत्र म्हण्टा. चल्याक चलयेच्या बापायकडल्यान आयिल्लो खारीक चाखपाक लायतात आनी तांच्या कपलाक केशरीचो तिबो लावन ताचेर अक्षता दसयतात. तांच्या कपड्यांचेर केशरी उदक शिंपडटात. उपरांत न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेखातीर म्हाल्याकडेन साखर नाल्ल, तांदूळ, खारको, पैशे, भांगर कपडे ह्यो वस्तू धाडटा. मागीर शुभदिसा चलयेच्या घरा साखरपुडो जाता. तेन्ना म्हाल्याची बायल न्हवऱ्याच्या बापायकडल्यान आयिल्ली साखर आनी खारीक खावंक दिता. उपरांत मिठाय वांटून लग्नाचें आमंत्रण दितात. लग्नाच्या पयलीं कांय दीस आदीं बायलो व्हंकलेच्या घरा येवन लग्नाचीं पदां गायतात. लग्ना आदल्या दिसा न्हवऱ्या - व्हंकलेक मेथी लायतात. लग्ना दिसा न्हवरो आपल्या सोयऱ्यां - धायऱ्यांसयत वाजत गाजत घोड्यार बसून व्हंकलेगेर वता. थंय तांचो येवकार सुवाळो जाता. ताका मिलनी अशें म्हण्टात. उपरांत जेवणाचो सुवाळो जाता. न्हवऱ्याक घरांत व्हरून थंय व्हंकलेच्यो भयणी आनी इश्टीणी न्हवऱ्याचे पांय ओडटात.

लग्नाचो म्हूर्त सूर्य उदेंवच्या पयलीं आसता. फांतोडेर रागी (गायक) उपासनेच्या वेळार म्हणपाची स्त्रतोत्रां गायतात. उपरांत न्हवऱ्या - व्हंकलेक गुरू ग्रंथामुखार बसयतात आनी पुरोयत तांकां लग्नाच्या जीणेंतलीं कर्तव्यां सांगता. गुरू ग्रंथांतलो लग्नाविशींचो मंत्र म्हण्टा. उपरांत न्हवरो - व्हंकल गुरू ग्रंथाभोंवतणी चार प्रदक्षिणा घालतात. हो विधी जाल्या उपरांत लग्नाचो विधी सोंपता.

शेतकार शिखांत लग्नां भुरगेपणांत जातात. अशा वेळार लग्नाउपरांत चली आपल्या कुळाराच रावता आनी वयांत आयल्या उपरांत घोवागेर वता.

मनीस मेल्या उपरांत ताच्या म्हऱ्यांत बसून गुरू ग्रंथांतले कांय मंत्र म्हण्टात. मेल्ल्याखातीर रडप वा शोक करप हाका बंदी आसा. हे लोक मडीं जाळटात. पयलीं मड्याक न्हाणोवन ते सरणाचेर दवरतात. मेल्ल्या मनशाचो पूत वा उत्तरधिकारी सरण पेटयता. मेल्ल्याचो गोबोर कीरतपूरच्या बियास न्हंयेंत विसर्जीत करतात. मेल्ल्याच्या पिरायेप्रमाण चार ते स दीस सुतक पाळटात. सुतकाच्या

बिमाण्या दिसा सोयरीं - धायरीं मेल्ल्याच्या घरा वचून प्रार्थना म्हण्टात आनी गुरू ग्रंथाचें वाचन करतात. घरच्या मुखेल्याक मरण आयल्यार ताच्या व्हडल्या पुताक फेटो बांदतात आनी घरचो मुखेली म्हण ताका मान्यता दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**शीतला :** एक लोकदेवता. लोकवेदांत हे देवीचो संबंद 'देवी' ह्या रोगाकडे लायिल्लो दिसता. हे देवीचो कोप जाल्यार मनशाक देवी (Small Pox) हो रोग जाता आनी तिका शांत करतकच हो रोग बरो जाता असो भारतभर समज आसा. प्रदेशाप्रमाण हे देवतेक उजाली, बसंतबुढी, सेडलमाता, चेचकमाता, मसानी, जगदम्मा, मोठीबाई अशीं विंगड विंगड नांवां आसात.

शब्दकल्पद्रुमांत शीतला देवीचें रुपध्यान वर्णिलां तें अशें आसा -

नमामि शीतलां देवीं रासभस्थां दिगम्बरीम् ।
मार्जनीकलशोपेतां शूर्पालङ्कृतमस्तकाम् ।।

**अर्थ** - नग्न, गर्दभारुड, सान्न आनी कळसो धरपी आनी जिचे तकलेचेर सूप आसा अशे शीतला देवीक हांव नमस्कार करता.

राजस्थान आनी गुजरात ह्या प्रदेशांनी हिच्यो इ.स. च्या ११ - १२ व्या शेंकड्यांतल्यो खुबशो मूर्ती मेळटात. दक्षिणेंत ही बशिल्ली आनी चार भुजांची आसा. तिच्या तीन हातांनी त्रिशूळ, डमरू आनी ब्रह्मदेवाच्या पांचव्या शिराची कवटी आसता. चवथो हात वरद मुद्रेंत आसता. महाराष्ट्रांत हिची मूर्त चार भुजांची आनी उबी आसता. एक हात वरद मुद्रेंत आनी तीन हातांनी कमळ, कळसो आनी सीताफळ आसता.

एकाद्र्या खडबडीत फातराकय शीतला मानतात. हिचें ठाणें गांवाभायर एकाद्रे घुमटेंत निंबाच्या वा पिंपळाच्या झाडापोंदा आसता.

मंगळार, शुक्रार वा सोमार ह्या तीनय वारांक शीतलेची पुजा करची अशें स्कंदपुराणांत म्हळां. उत्तर प्रदेशांत आषाढांतल्या चारय सोमारांक हिची जात्रा भरता. मध्य प्रदेशांत तिका कालीचें एक रूप मानून त्रिशूल, पणटी, दुदाचें आयदन आनी उदक ओंपतात. बंगाल, महाराष्ट्र आनी सिंध ह्या प्रदेशांनी तिची शेणाची मूर्त करून पूजतात. महाराष्ट्रांत लोक तिका शीत - धंयाचो निवेद दाखयतात, ओले हरभरे वा वाटाणे ओंपतात आनी खण - नाल्लान तिची हॉट भरतात. गांवगिऱ्या वाठारांतले लोक तिचो मांड बसयतात. चौरंगाचेर कलश, कलशाचेर नाल्ल आनी भोंवतणी सात तरांची फळ फळावळ दवरतात. ह्या मांडामुखार लोक वाद्यां वाजोवन शीतलेचीं पदां म्हण्टात. हे देवतेक शेळें अन्न आवडटा म्हूण आदल्या दिसा अन्न शिजोवन, दुसऱ्या दिसा तिका निवेद्य दाखयतात आनी आपूण खातात.

शीतला ही देवीचो रोग पातळायता असो समज आशिल्ली एक कथा दक्षिणेंत प्रचलित आसा ती अशी -

पिरुह नांवाचो एक ऋषी आशिल्लो. ताचे बायलेचें नांव नागावली. ती सुंदर आनी पतिव्रता आशिल्ली. पिरुह घरांत नासतना एकदां ब्रह्मा - विष्णु - महेश तिची परीक्षा पळोवपाक आयले. नागावलीन तांची इत्सा जाणली आनी तांकां तिगांकय ल्हान भुरगे केले. देवांनी तिडकीन तिका कुरूप जावं असो शाप दिलो. ताकालागून तिका देवी आयल्यो आनी त्या व्रणांनी तिचें मुखामळ विद्रूप जालें. पिरुह ऋषी घरा येतकच ताणें आपले विद्रूप बायलेक पळयली आनी घराभायर काडली. तशेंच तिका शापय दिलो - 'तूं राक्षसी जावन लोकांत देवीचो रोग पातळायतली'. त्या दिसापसून ती धर्तरेचेर देवीचो रोग पातळावंक लागली.

भारतभर विंगड विंगड भाशांनी शीतलेचीं पदां आसात. बंगाली कवींनी शीतलामंगल नांवाचीं कांय खंडकाव्यांय बरयल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**शीया पंथ :** मुसलमान लोकांचो एक पंथ. शीया ह्या शब्दाचो अर्थ अनुयायी असो आसा. महंमद पैगंबराचो जांवय अला हाच्या अनुयायांक शीया म्हण्टात.

शीया लोक इस्लामाचे पयले तीन खलीफा अबूबक्र, उमर आनी उस्मान हांकां मानीनात. तांच्या मतान अली होच पैगंबराचो वारस. तेखातीर खलीफाच्या पदाचेर अलीचीच नेमणूक जावंक जाय आसली. कारण पैगंबर आपले निमाणे तीर्थयात्रेक सावन परततना वाटेर घादिर खुम नांवाचे सुवातेर ताणें अलीक आपलो उत्तराधिकारी नेमलो आनी ताका 'इमाम' अशें नांव दवरलें. तेखातीर खलिफांक मानपी ते सुन्नी म्हळयार पैगंबराच्या मार्गान वचपी. इमामांक मानतात ते शीया असो तांच्यांत पंथभेद निर्माण जालो.

शीया लोक अली आनी ताच्या वंशांतले इकरा पुरूस अशा बारा जाणांक खरे इमाम मानतात. ताकालागून तांकां इमामीया वा आशरीया (बाराबंथी) अशींय नांवां मेळ्ळयांत.

शीया लोक जे बारा इमाम मानतात तांचीं नांवां अशीं आसात - १) अली २) हसन ३) हुसेन ४) हुसेनपूत अली ५) मुहम्मद बकर ६) जाफर सादिक ७) मूसा काजिम ८) मामूँ रशीद ९) मुहम्मद तकी १०) अली तकी ११) हसन अस्करी १२) मोहम्मद महदी.

शीयांच्या आचार धर्माक आनी तत्त्वज्ञानाक इमामत अशें म्हण्टात. अब्दुल बाकर मजलिसी ह्या शीया पंडितान इमामतचीं पांच लक्षणां सांगल्यांत तीं अशीं -

१) इमामत ही ईश्वर आनी पैगंबर हांचे सत्तेचेर आदारून आसा. जनमत वा लोकांची इत्सा हाचेर इमामपद आदारून ना. इमामाक ईश्वरदत्त धर्माधिकार आसता.

२) ईश्वर जसो पैगंबरांक भूतलाचेर धाडटा तेचप्रमाण तो

इमामांचीय नेमणूक करता. आपणेंच निर्मिल्ल्या मनशांक वाट दाखोवपाची जबाबदारी ईश्वराचेर आसता तेचखातीर तो इमामांची नेमणूक करता.

३) इमाम हो अभ्रांत आनी पापमुक्त आसता.

४) ईश्वराचे आज्ञेन, कुराण आनी कायदे हांचे अधिकृत अर्थ सांगपाचें आनी तांची व्याख्या करपाचें काम इमाम करता.

५) ईश्वर आनी मनीस हांचेमदीं इमाम हो मध्यस्थ आसता. इमामाचे मध्यस्थीनच मनशान ईश्वराकडे वचूंक जाय नाजाल्यार ईश्वर मनशाक दंड करता.

इस्लाम धर्मांतले चडशे लोक सुन्नी आसून शीया लोकांची संख्या तांच्या मानान खूब उणी आसा. शियांतूय खूब पोटभेद निर्माण जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**शुंग राजवंश :** मौर्य वंशाउपरांत मगधाचेर राज्य करपी वंश (सनपयलीं १८७ - ७५). ह्या शुंग कुळांतलो पुष्यमित्र नांवाचो एक वीर मौर्य वंशांतलो निमाणो राजा बृहद्रथ हाचो सरसेनापती आशिल्लो. बृहद्रथ विलासी आनी दुबळो आशिल्ल्यान तो मौर्य साम्राज्याची राखण करपाक असमर्थ थारलो. ताचे कारकिर्दींत आंध्र, कलिंग, विदर्भ आनी काश्मीर हे प्रदेश स्वतंत्र जाले. त्याच वेळार यवन राजा डिमिट्रियस हाणें भारताचेर आक्रमण करून मगधाचेरय धुरी घाली. ह्या काळांत बौध्द धर्माच्या प्रभावाक लागून भारतीय लोकांचें क्षात्रतेज उणें जाल्लें आनी बौध्द लोक परकी आक्रमकांक आदार करताले. ताका लागून पुष्यमित्र शुंगान बौध्द धर्माक अनुकूल आशिल्ल्या बृहद्रथ मौर्य राजाक जिवो मारलो आनी स्वता मगधाचे गादयेर बसलो. पाटलीपुत्र हीच ताची राजधानी आशिल्ली.

पुष्यमित्र वैदिक धर्माचो अभिमानी आशिल्लो. ताणें सुमार ३६ वर्सां राज्य केलें. पुष्यमित्रान शिंवासनाचेर बसनाफुडें अश्वमेध यज्ञ केलो. तेखातीर वैदिक धर्माक प्रतिश्ठा मेळ्ळी. पुष्यमित्र राजा जालो तरी ताणें सेनापती ही आपली उपाधी कायम दवरली. सुरवेक ताची सत्ता मगधापुरतीच मर्यादीत आशिल्ली. पूण अयोध्या आनी विदिशा हीं नगरां ताच्या राज्यांत आस्पावतालीं. रोखडेच ताणें यवनांक हारोवन पंजाबांतलीं जालंधर आनी शाकल हीं ठाणीं घेतलीं.

पुष्यमित्राचो पूत युवराज अग्निमित्र हो विदिशा हांगा राज्यपाल आशिल्लो. ताचो मेवणो म्हळयार बायलेचो भाव वीरसेन हो नर्मदा देगेवयल्या एका गडाचो अधिपती आशिल्लो. त्या वेळार विदर्भ देशाचेर यज्ञसेन नांवाचो राजा राज्य करतालो. ताचो बापोलभाव माधवसेन अग्निमित्राचो स्नेही आशिल्लो. त्या दोगाय भावांचें बरेंपण नाशिल्लें. एकदां यज्ञसेनान माधवसेनाक धरून बंदखणींत उडयलो. तेन्ना अग्निमित्रान वीरसेनाक विदर्भाचेर स्वारी करपाची आज्ञा दिली. वीरसेनान यज्ञसेनाक हारोवन माधवसेनाक सोडलो. उपरांत विदर्भाचे दोन विभाग करून ते यज्ञसेन आनी माधवसेन हांकां दिले. दोगूय जाण पुष्यमित्राचे सामंत म्हणून राज्य करूंक लागले. सनपयलीं १५५ च्या अदमासाक यवन राजा मिनँडर हाणें भारताचेर आक्रमण करून कच्छ, सौराष्ट्र आनी मध्यदेश हे प्रदेश घेतले. तशेंच मथुरा आनी साकेत हीं नगरांय घेतलीं. पूण पुष्यमित्रान ताका हारोवन परतून धाडलो. ताचे उपरांत पुष्यमित्रान दुसरो अश्वमेध यज्ञ केलो. त्या यज्ञाचो घोडो बरोबर घेवन अग्निमित्राचो पूत वसुमित्र हो दिग्विजय करता आसतना सिंधू न्हंयेचे देगेर यवनांकडे ताचो संघर्श जालो आनी वसुमित्रान यवनांक हारयले.

कालिदासाच्या नाटकांत, पुष्यमित्राचो पूत अग्निमित्र हो विदिशा हांगा राज्यपाल म्हण आशिल्लो, तेन्नाची म्हायती मेळटा. ताणें आठ वर्सां मगधाचेर राज्य केलें अशें ब्रह्मांड पुराणावयल्यान समजता. ताचे उपरांत वसुज्येष्ठ, वसुमित्र, आर्द्रक, पुलिंदिक, घोषवस, वज्रमित्र, भागवत आनी देवभूती हांणी राज्य केलें. तांचेविशीं चडशी म्हायती मेळना. विदिशा हांगा मेळिल्ल्या एका आलेखांत, हेलिओडोरस हाणें गरूडध्वज उबारिल्ल्याचो उल्लेख आसा.

तक्षशिलेचो अँटिअलकिद हाणें ताका भागभद्र राजाकडे राजदूत म्हणून धाडिल्लो. हो भागभद्र म्हळयार शुंभ वंशांतलो पांचवो राजा आर्दक (भद्रक) आसुंये. विदिशा ही ताची राजधानी आशिल्ली. धावो राजा देवभूती हाचो वसुदेव नांवाचो मंत्री आशिल्लो. ताणें कपट करून राजा देवभूती हाका मारलो आनी स्वता राज्य घेतलें अशें बाणाच्या हर्षचरितावयल्यान समजता. अशे तरेन शुंग वंशांतल्या धा राजांनी सनपयलीं १८७ - ७५ म्हळयार ११२ वर्सां राज्य केलें.

भारताच्या इतिहासांत शुंग वंशान म्हान कामगिरी केल्या. पुष्यमित्रान यवनांचें आक्रमण चिड्डून उडोवन, मगध - साम्राज्याची राखण केली. उपरांत शुंग आनी यवन राजांचें बरेंपण जालें.

पुष्यमित्रान वैदिक यज्ञसंस्थेचो आनी भागवत धर्माचोय पुरस्कार केलो. ताच्या काळांत वैदिक धर्म आनी भक्तिपंथ हांचो मेळ सादून तो लोकप्रिय करपाखातीर पुराणां निर्माण जालीं. ह्याच काळांत संस्कृत भास राज्यभास जावन तिचें म्हत्व वाडलें. वास्तुविद्येंत शुंग काळांतलें शिल्प चड उल्लेखनीय थारलां. सांची हांगा सम्राट अशोकान बांदिल्ल्या स्तुपाभोंवतणी जे सोबीत कठडे आनी तांचीं फातराचीं तोरणां आसात, तीं शिल्पां ह्याच काळांतलीं निर्माण जालीं. शुंगकालीन मूर्तिकामांत सादेंपण आनी कल्पकताय हे गूण आसून, तें पुराय भारतीय शैलीचें आसा. सांची आनी भरहूत हांगाच्या कठड्यांवयल्यो मूर्ती शुंगकालीन मूर्तिशिल्पांनी सर्वोत्कृश्ट आसात. बुध्दाचे जिणेंतले प्रसंग थंय कोरांतिल्ले दिसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**शुक्र :** (१) सूर्याचे ग्रहमाळेंतलो एक अंतर्योगी, तेजस्वी आनी सोबीत गिरो. हाका सित, उशना, काव्य अशीं नांवां आसात. अस्तंत्या देशांत शुक्राक व्हीनस हें नांव आसा.

ताचे उत्पत्तीविशींच्यो कांय पौराणिक कल्पना अशो - शुक्र हो सूर्यापसून जल्मला. सूर्याचे जे सात मुखेल किरण आसात, तातुंतल्या चवथ्या विश्वश्रवा ह्या किरणासावन शुक्राची उत्पत्ती जाली अशें वायुपुराणांत सांगलां. शुक्राचो एक रथ आसून, ताका धा घोडे आसात. ते धर्तरेसावन उत्पन्न जाल्ले आसून ताचे धा वेगवेगळे रंग आसात.

**शास्त्रीय वर्णन :** शुक्र हो सूर्या कडल्यान मेळिल्ल्या तेजाचो ६०% भाग परावर्तित करता. हेर ग्रहांपरस हो ग्रह चड प्रमाणांत उजवाड दिवंक शकता. तो हेर ग्रहांपरस धर्तरेच्या चड लागीं येता आनी सूर्याक लागीं आशिल्ल्यान ताचेर चड उजवाड पडटा. हो शुक्र सूर्याभोंवतणी घुंवत आसता. सूर्याकडच्यान तो ४६ अंशापरस चड पयस वचना देखून रातचो ९ ते फांतोडेर ३ वरांमेरेन तो दिश्टी पडना. पूण बरी नदर आशिल्ल्या मनशाक तो दिसाचो पळोवपाक मेळटा. शुक्र सूर्यासावन ८ अंशाचेर दिसपाक शकता.

बुधाप्रमाण शुक्रय वाटकुळया मार्गान सूर्यप्रदक्षिणा करता. ताचो नाक्षत्रकाल वा भ्रमणकाल २२५ दिसांचो आसा आनी दीस २३ तास २१ मिनटांचो आसा. शुक्राचे अंतर्युतीपसून ७१ - ७२ दिसांनी ताचो परम इनापगम (सूर्यापसून खूब पयस अंतर) जाता. अंतर्युतीच्या वेळार शुक्राचे धर्तरेकडच्यान अंतर २.६ कोटी मैल जाल्यार बहिर्युतीच्या वेळार तें १६ कोटी मैल आसता.

**चंद्र :** बुधाप्रमाण शुक्राकलागून सूर्याक्र गिराण लागता. तेन्ना एक काळो थिपको सूर्या वयल्यान वतना दिसता. ताका शुक्राचें अधिक्रमण अशें म्हण्टात. हें अधिक्रमण २४३ वर्सांनी चार फावटी जाता, अशें गणित केल्लें आसा. ह्या शुक्राक चंद्रासारक्यो कला आसात. अंतर्युतीच्या काळांत तांचो अणभव येता. शुक्राचें वजन आनी आकार धर्तरे सारखोच आसा. हाका लागून पृष्ठ भागाचेर गुरूत्वाकर्षणाचो नेट धर्तरेच्या पृश्ठ भागावयल्या गुरूत्वाकर्षणा इतलोच आसा. शुक्राचेर वातावरण दाट आसा आनी ताच्या भोंवतणी कार्बानिक ॲसिड वायुचो सांठो भरपूर आशिल्ल्या कारणान थंय झाडां नात.

**जातकांतलें शुक्रवर्णन :** फलज्योतिशांत शुक्र हो सौंदर्याचो आनी बायलेचो कारक मानिल्लो आसा. मंत्र तंत्र, जारण मारण ह्या क्रियांचें कारकत्व ताचेकडे वता. तो वृषभ, तुळ ह्या राशींचो स्वामी आसा. मीन राशींत तो सगळयांत ऊंच आनी कन्या राशींत नीच आसता. जल्मकुंडलींत तो ज्या ज्या स्थानांचो स्वामी आसता. त्या स्थानांच्या शुभ फलाची वृध्दी करता. मेष, सिंह आनी धनू ह्या राशींक शुक्राचीं बरीं फळां मेळटात.

मनशाचे कुडींतल्या गळो, कान, जननेंद्रिय बीजकोश हांचेर शुक्राचो अधिकार चलता. जांचे कुंडलींत शुक्र शक्तीवान आसता अशा दादल्या - बायलांचो स्वभाव शांत, विलासी, सहवासप्रिय आसता.

**शुक्र :** (२) एक आचार्य हो भृगूपसून, हिरण्यकशिपूची धूव दिव्या हिगेर जल्माक आयलो. कांय पुराणांत कर्दम ऋषीची धूव ख्यातीच्या पोटांत ताची उत्पत्ती जाली अशें सांगलां.

ताचो जल्म भोजकट देशांत भाद्रपद शु. दसमीच्या दिसा पूर्वाषाढा नक्षत्राचेर सांजेचो जालो. हाका काव्य अशें दुसरें नांव आसा. हो आनी च्यवन हे दोगय भृगुकुळांतले सगळयांत पुर्विल्लें पुरूस आसात. ताणें दैत्यांचें पुरोयतपण आपणायलें. ताका लागून निमाणेमेरेन तो असुर पक्षपाती रावलो. बलीच्या यज्ञांत शुक्र होच ताचो पुरोयत आशिल्लो. तेन्ना ताणें बलीन बटुवामनाक भूमी दिवंची न्हय म्हण विरोध केल्लो. पूण बली आयकनासताना जे झारींतल्यान वामनाच्या हातार दानोदक सोडटलो आशिल्लो ते झारीचे तोटयेंत प्रवेश करून ताणें उदकाची धार आडयली. तेन्ना बलीन दर्भाची काडी ते तोटयेंत घोंगशिली ती सरळ शुक्राच्या दोळयांत भरून शुक्र त्या दिसासावन एका दोळयाचो जालो.

शुक्र अंगिरा ऋषीकडे संजीवनी विद्या शिकूंक गेलो. पूण तो रुशी ती विद्या शिकोवपाक तयार नाशिल्ल्या कारणान ताचें शिश्यत्व सोडून, तो शिवाची आराधना करूंक लागलो.

शिवान प्रसन्न जावन ताका संजिवनी विद्या दिली. हे विद्येच्या बळाचेर ताणें असुरांक देवावांगडचें जैत मेळोवन दिलां.

शुक्राचार्याक पितरांची धूव गो आनी इंद्रकन्या जयंती अशो दोन बायलो आशिल्ल्यो. देवयानी ही जयंतीची धूव आनी त्वष्टा, वरूत्री, शंड, मर्क हे गोचे पूत. हे चारय पुत असुरपक्षपाती थारिल्ल्याकारणान मुखार ताचो वंश खंडीत जालो आनी भृगुकुलाची शुक्रशाखा नश्ट जाली.

शुक्राचार्यान बार्हस्पत्य नांवाचो हजार अध्यायांचो एक अर्थशास्त्रीय ग्रंथ बरयला. ताचें हें शास्त्र मुखार कितल्याशाच आचार्यांनी संक्षिप्त केलें.

**शुक्र :** (३) एक धातू. शरीर धारण करपी सप्तधातूंत हो सारभूत असो सातवो धातू. हें शुक्र दुदांत आसपी घृताभशेन वा ऊंसांत भरून राविल्ल्या रसाप्रमाण सगळे कुडीक व्यापून रावून कुडिची राखण करता. आयुर्वेदाचार्यान शुक्राची उत्पत्ती सांगल्या ती अशी -

शुक्र धातू शोष्य धवसो, स्निग्ध, बलपुष्टिकर गुर्भबीज आनी जीवाचें आश्रयस्थान अशें आयुर्वेदांत म्हळां.

वैद्यकशास्त्रांत शुक्राच्या क्षयाचीं कारणां, तेविशींचें पथ्य, ताचेर वखदां आनी रसायनां ह्या संबदांत सविस्तर विवेचन केल्लें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**शुक्रनीती :** भारतीय राजनीतिशास्त्रावयलो एक ग्रंथ. हो संस्कृत श्लोकबध्द आसून, ताचे चार अध्याय आसात. शुक्र हो ताचो कर्तो मानिल्लो आसा. ह्या शुक्राकच उशना, भार्गव, कवी, योगाचार्य आनी दैत्यगुरू अशीं नांवां आसात.

**शुक्रनीतीचो प्रवर्तक :** शुक्रनीतीचो जो ग्रंथ उपलब्ध आसा ताचो प्रणेतो कोण हे विशीं दोन मतां आसात. हो ग्रंथकार दुसरोच कोणतरी राजनीतिज्ञ आसून, ताणें आपल्या ग्रंथाक मान्यता मेळची म्हण हो ग्रंथ शुक्राच्या नांवार केलो अशें कांय विद्वान म्हण्टात. दुसरें मत ग्रंथकर्त्याचेंच नांव शुक्र आसत अशें आसा. पूण ताचो आनी उशना ऋषीचो कांयच संबंद ना.

उशना वा शुक्र हाणें राज्यशास्त्रासंबंदीं जे कांय विचार मांडले ते ताच्या शिश्यांनी चिरस्थायी जावपाखातीर ग्रंथबध्द केले. मुखार देशकाल परिस्थितीक अणसरून त्या विचारांचें संशोधन आनी परिवर्तन करपांत आयलें. हें सगळें जावन ग्रंथकार वा मूळप्रवर्तक म्हणून शुक्राचें नांव कायमचें राखलें.

**शुक्रनीतीचो काळ :** शुक्रनीतींतलें भारतीय समाजाचें चित्रण हें एका विकसित समाजाचें आसा. त्या काळांत वर्णविवस्था ही जातिविवस्थेंत परिणत जावन वेवसायाप्रमाण जाती तयार जाल्ल्यो. तांच्यांतले आचार, रोटीबेटी वेव्हार ह्या विशींचे नेम खर जाल्ले. शूद्र बायालांक समाजांत हीन, पतित आनी स्वाम्याश्रित मानताले. उद्योगधंद्याची संख्या वाडिल्ली. हें समाजचित्र गुप्तकाळांतलें आशिल्लें. हे नदरेन पळयल्यार शुक्रनीतीची रचना गुप्तकाळांत जाली अशें समजूं येता.

कुल, श्रेणी, गण ह्यो संस्था आपापल्या क्षेत्रांत न्यायदानाचें कार्य करताल्यो. पूण सम्राट हर्षाच्या मरणाउपरांत हें कार्य नश्ट जाल्लें. हाचेवयल्यान शुक्रनीतीचो काळ हर्षाच्या पयलींचो आसूं येता. म्हळयार इ.स. ४०० ते ६०० ह्या काळांत शुक्रनीती ग्रंथ निर्माण जाला आसूं येता.

हे शुक्रनीतींत आयल्ले विशय अशे - राजाची इतिकर्तव्यता, भूमिपन, नगर वसोवप, घरा बांदप, युवराज आनी प्रधानादिकांचीं कामां आनी तांचीं लक्षणां, सेवकजनांचो पगार, जमाखर्च दवरप, न्यायपरिवर्तन, सुहदाचें लक्षण, गजाश्वादिपरीक्षण, रत्नधातुपरीक्षा, प्रजाभागहरण, कलाविद्याप्रभेदनश्रमविभाग, धर्मपरिकल्पन, ग्रामरक्षानिवेदन, प्रासादादिप्रकल्पन, मूर्ती घडोवप, वेवहारचातुर्य किल्ले बांदप, सैन्य दवरप, रथ तयार करप, मनशाच्या पिरायेचो मान, यात्राप्रकल्पन, यंत्रलक्षण, दारूगुळो तयार करप, निशाण लावप, शस्त्रास्त्रक्रिया, षड्गुणलक्षण, व्यूहप्रकल्पन, कवाईत - चातुर्य सारकिल्ले विशय तातूंत आयल्यात.

नीतीचे प्रस्थापनेखातीर राज्यविस्तार, असो सिध्दान्त शुक्र सांगता. राजान नीतीआड वागवपी राजांचो पराभव करून राज्यविस्तार करचो अशा राजाकडेन झूज करतना आपली नैतिक भुमिका सोडूंक जायना आनी नीतीनच अनीतीचो पराभव करचो अशें शुक्रान सांगलां.

कौटिल्याच्या उपरांतच्या काळांत राज्यकारभाराविशीं म्हायती दिवपी हो एक म्हत्वाचो ग्रंथ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**शुक्रार :** सप्तकांतलो सवो दीस. इंद्र हो ह्या दिसाचो स्वामी आसून, इंद्राणी ही ताची देवता. हाका देवीचो वार मानतात.

शुक्रार हो एक शुभ दीस आसून, ह्या दिसा सुरू केल्लीं कसलींय कामां पुराय जातात असो समज आसा. ह्या दिसा बायलो नवें वस्त्र न्हेसून देवीचें दर्शन घेतात. कांय बायलो शुक्राराचें व्रत म्हूण उपास करतात.

श्रावण म्हयन्यांतले शुक्रार चड शुभ मानतात. सवाशीण बायलो लक्ष्मी प्राप्त जावंची म्हूण सांजवेळां सवाशीण बायलांक आपोवन हळद - कुकूम दिवन व्हॊंट भरतात, चणे - दूद वांट्टात आनी उपास करतात. हें व्रत केल्ल्यान दळीद्र वचून सौभाग्य मेळटा, अशो जायत्यो कथा पुराणांत सांगल्यात. श्रावण म्हयन्यांत शुक्रारा पुनव आयल्यार वर - लक्ष्मीचें व्रत करचें अशें भविश्योत्तर पुराणांत सांगलां.

किरिस्तांव लोक शुक्रार हो पवित्र दीस मानतात. ज्या दिसा येशून प्राणार्पण केलें तो दीस शुक्रार आशिल्लो. तो 'गुड फ्रायडे' ह्या नांवान मनयतात आनी उपास करतात.

मुसलमान लोकय शुक्रार हो शुभ दीस मानतात. शुक्रारा पयलोच सूर्य उदेलो आनी शुक्राराच पयलो मनीस जल्मलो अशें ते मानतात. सगळें जग बुडटकच एका शुक्रारा सगळे प्रेतात्मे जिते जातले अशी तांची समजूत आसा. तेखातीर ह्या दिसा सगळयांनी उपास करचो आनी मशिदींत वचून प्रार्थना करची अशें सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**शूर्पारक :** एक पुर्विल्लें नगर. पुर्विल्ल्या काळांतल्या अपरान्त देशाचें शूर्पारक हें मुखेल नगर आशिल्लें. हालीं ह्या शूर्पारकाक सोपारा अशें म्हण्टात.

हो गांव मुंबयचे उत्तरेक वसईलागीं आसा. सोपाऱ्यालागींच तीन मैलांचेर नाला नांवाचो एक गांव आसा. ताका लागून नालासोपारा अशा जोड नांवानय ताचो उल्लेख करतात.

दमणगंगेसावन मुंबयमेरेनच्या प्रदेशाक शूर्पारक अशें नांव आशिल्लें. ह्या प्रदेशाचो आकार सुपासारको आसा म्हणून ताका शूर्पारक अशें नांव मेळळें म्हणपाचें थळावी दंतकथा सांगता. दर्यासावन परशुरामान हो प्रदेश पयलीं मेळयलो, पापनाशिनी वैतरणी परशुरामान पाताळांतल्यान भूतळाचेर हाडली. सोपाऱ्यालागच्या चतुरंगण पर्वताचेर

परशुरामाचें स्थान आशिल्लें. अर्नाळा किल्ल्यावयले रेणुकादेवीची स्थापना परशुरामान केल्ली अशोय कांय दंतकथा थंयचे लोक सांगतात.

गोकर्णाच्यान प्रवासाक वतना अर्जुनान हांगा मुक्काम केल्लो. हांगाच्या राबित्यांत ताणें लागीं आशिल्ल्या एका जुंव्यावयल्या जमदग्नीच्या वेदीचें आनी वैवस्वत, कुबेर, इंद्र ह्या देवतांच्या देवळांचें दर्शन घेतलें आनी दर्यावटेनच्यान तो काठीयावाडाक पावलो अशी कथा महाभारतांत आयल्या.

बौध्द वाङ्मयांत सोपाऱ्याचे जायते उल्लेख सांपडटात. शूर्पारक जातक ह्या नांवाचें जातक आसा. तातूंत सोपाऱ्याचो सुपरगपट्टण ह्या नांवान उल्लेख केल्लो आसून, ताच्या भोंवतणच्या भागाक सूपलक्षित दर्याप्रदेश म्हळा. पूर्ण नांवाच्या एका मनशान गौतमबुध्दाकडल्यान बौध्द धर्माची दिक्षा घेवन बौध्द धर्माचो प्रसार केलो. हाच्या सन्मानाखातीर सोपाऱ्याच्या व्यापाऱ्यांनी देवूळ बांदलें तेन्ना बुध्द थंय येवन ताणें पांचशें ब्राह्मणांक आनी पांचशें विधवांक आपलीं नाखटां आनी केंस दिले आनी तांणे तांचेर एक स्तूप उबारलो. ताका विधवांचो स्तूप म्हण्टात.

सोपाऱ्याभोंवतणी परत परत लुटालूट करपी कृष्ण आनी गौतम ह्या नागराजांकय बुध्दान धर्माची दीक्षा दिली.

सम्राट अशोकाच्या काळांत दर्यावटेन मध्यउदेंतेकडे जावपी वेपार खूबच भरभराटीक आयलो. तेन्ना त्या बंदरांतल्यान भांगर, हतयाचे दांत, मसल्याचे पदार्थ, कापूस, कातडें, रत्नां ह्या वस्तुंची निर्यात जाताली. सुमार देड हजार वर्सां ह्या बंदरांतल्यान वेपार चलतालो.

इ.स. १८८२ वर्सा पं. भगवानलाल इंद्रजी हाणें हांगाच्या एका स्तुपाचें उत्खनन केलें तेन्ना ताका एका भांगराच्या करंडकांत मातयेच्या आयदनाचे कुडके मेळ‌ळयात. हे कुडके गौतम बुध्दाच्या भिक्षापात्राचे आसूं येतात असो अदमास आसा. थंय प्रस्तर, ताम्र, रजत, स्फटिक आनी भांगर हांचीं आयदनां एकांत दुसरें अशीं दवरिल्लीं सांपडलीं. तांब्याच्या आयदनांत बुध्दाच्या वेगवेगळ्या अवस्थांतल्यो तांब्याच्यो आठ मूर्ती, रजतपात्रांत भांगराचीं फुलां आनी यज्ञश्री सातकर्णीची एक आद्वितीय रजतमुद्रा, भांगराच्या आयदनांत हिरकणी, पाचू हीं रत्नां, मातयेच्या पात्रांचे अवशेश अशो वस्तू सांपडल्यात. तशेंच अशोकाच्या चवदा शिलाशासनांतल्या सवव्या शिलाशासनाचो भग्नांश हांगा सांपडला.

बायबलांत ओफीर - सोफीर हें सुवर्णसंपन्न शार शूर्पारक म्हण ताचो उल्लेख आयला.

पेरिप्लस आनी टॉलेमीच्या ग्रंथांत शूर्पारकाचे सुप्पारक, सौपर आनी सोपारग ह्या नांवान उल्लेख आयल्यात.

शूर्पारक हें एक जैनांचें क्षेत्र म्हण ताची नामना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**शृंगार** : एक रस. हाका रसराज अशी पदवी आसा. शृंगार हो परस्परानुरक्त अशा बायल - दादल्याचेर आदारून आसता. ताची व्याख्या अशी - दादल्या बायलेची परस्पर अनुरागवृध्दी म्हळयार शृंगार.

रती हो शृंगाराचो स्थायीभाव आसा. रतीचें भोजकृत लक्षण अशें - 'मनाक अनुकूल अशा विशयांच्या जाग्यार सुखाची संवेदना जावप म्हळयार रती'. ही भावना ह्या रसांत सुरवाती सावन शेवटमेरेन मुखेलपणान आसता. हो रस परस्पराचेर अनुरक्त जाल्ल्या दोन वेगवेगळ्या लिंगी व्यक्तींचेर आदारून आसता म्हणून त्यो व्यक्ती ह्या रसाचें आलंबन विभाव जाता. पिठासारखें चान्नें, वसंत ऋतुचें आगमन, सानुराग संभाशण, कामक्रीडेचीं चित्रां. ओडलायणें न्हेसप, मोग गीतांचे श्रवण, एकांत ह्या गजालीनीं रतीचें उद्दीपन जाता, म्हण ताका विभाव म्हण्टात. कामाचे उद्दीपन जाल्या उपरांत भुंवयो आकुंचित करप, आलिंगन दिवप, उमो घेवप ह्यो ज्यो गजाली घडतात ते ह्या रसाचे अनुभव आसात. हास्य उत्पन्न जावप, लज दिसप, शरीर गळील्ल्या भाशेन जावप, आळस येवप, बेजार येवप हे ह्या रसाचे व्यभिचारी भाव जातात.

शृंगाररसाचे संभोग आनी विप्रलंभ अशे दोन प्रकार आसात.

शृंगार रसाचे प्रक्रियेच्या स्पस्टीकरणाखातीर दुष्यंत - शकुंतलेची कथा देख म्हण घेवं येता. परस्परानुकूल कामिजनांचें रतियुक्त दर्शन, स्पर्धन आलिंगन हांका संभोग ही संज्ञा आसा. वयर दिल्लें दुष्यांत - शकुंतलेचें उदाहरण संभोग शृंगाराचें आसा.

जंय मोगी जोडपें परस्परानुरक्त आसून सुध्दां खयंचेय अडचणीकलागून तांचो एकवट जांवक शकना, अशे अवस्थेक विप्रुलंभावस्था म्हण्टात. कालिदासाचे मेघदूत हें विप्रलंभ शृंगाराचें उत्कृश्ट उदाहरण आसा.

शृंगाराचे अशे दोन भेद करप योग्य आसलें, तरी वास्तवांत तशे भेद जायनात. कारण संभोगावस्थेंतय सूक्ष्मतरेन विप्रलंभाची भावना जागृत आसता आनी विप्रलंभावस्थेंतय संभोगाचें मनांत अनुसंधान जाता. ह्यो गजाली अणभव सिध्द आसल्याकारणान शृंगार हो सदांच उभयसंवलितूच आसता.

शृंगार रसाचे आलंबन विभाव म्हळयार नायक नायिका हीं दोगांय आसतात. पूण तातूंत नायिकेक चड प्राधान्य आसा अशें अभिनव गुप्तान म्हळां. कारण नायिका हीच शृंगार रस निर्माण करपी आसता.

नायकाचे अशेच भेद आसात. शृंगाराक अनुकूल आसपी नायक धीरोद्दत, धीरललित, धीरोदात्त आनी धीरप्रशांत आसूंक जाय अशें भरत म्हण्टा. रुद्रटान आपल्या शृंगारतिलकांत नायकाचे सर्वमान्य अनुकूल, दक्षिण, शठ आनी धृष्ट अशे चार प्रकार सांगल्यात.

शृंगाराचो कामाकडे लागिंचो संबंद आशिल्ल्यान त्या रसाक

मानसशास्त्रीय म्हत्व प्राप्त जाल्लें आसा. आधुनिक मानसशास्त्रांत काम ह्या विकाराक जीणेची मूलभूत प्रवृत्ती मानल्या. नामनेचो मानसशास्त्रज्ञ फ्रॉईड हो कामप्रवृत्ती जल्मजात मानता आनी सभ्यता, संस्कृती, कला हांच्यांत तिचीच परिश्कृत अभिव्यक्ती जाता अशें सांगता.

शृंगार हो जीणेच्या मूलभूत कामप्रवृत्तीचें नियमन करता आनी भावसंतोष निर्माण करून मनशाक अनाचार आनी दुराचार हांच्यापसून वाटावपाची येवजण करता. तेनदरेन मनशाचें मानसिक संतुलन आनी सामंजस्य हांचेरखातीर शृंगाराचे चड म्हत्व आसा.

विश्वसाहित्याचो चडसो भाग शृंगाररसान भरिल्लो आसा. संवसारांतल्या पवित्र, उदात्त आनी दर्शनीय आविश्कारांक शृंगार गिरेस्तकाय हाडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**शृंगेरी :** एक पुण्यक्षेत्र. कर्नाटकांतल्या कडूर जिल्ह्यांत हें क्षेत्र आसा. शृंगेरी हें नांव ऋषी आनी पर्वत ह्या जोडनांवांतल्यान आयलां. शृंग म्हळयार ऋष्यशृंग आसा. हो विभांडक ऋषीचो पूत. विभांडकान ह्याच क्षेत्रांत तपश्चर्या केली. ताचो आश्रम शृंगेरीचे अस्तंतेक स मैलांचेर आसा. दशरथान पुत्रकामेश्टीखातीर शृंग ऋषीक हांगासावनच अयोध्येक व्हेल्लो. गांवालागसार वराहगिरी नांवाचो एक व्हड पर्वत आसा. तुंगा, भद्रा, वेत्रवती आनी वाराही अशो चार न्हंयो वराह पर्वतांतल्यान आयल्यात. तुंगा न्हंयेचें पात्र बरेंच व्हड आसा. ही न्हंय आनी शंकराचार्याचो मठ हांकांलागून ह्या क्षेत्राक दोट्टी म्हत्व मेळ्ळां.

आद्य शंकराचार्यान हांगा मठाची स्थापणूक केली तेविशीं एक कथा आसा ती अशी - एक बेबकी गुरवार आशिल्ली. ती उदकांत रावनासतना जमनीर राविल्ली. एक दीस तिका दनपारचें वत सोसूंक जालें ना. तिच्या म्हऱ्यांत एक नाग आशिल्लो. ताणें तिका तळमळटा ती पळेली आनी वत लागचें न्हय म्हण तिचेर आपली फणा धरून तिका सावळी घाली. योगायोगान हें दृश्य शंकराचार्यान पळयलें. ताका अजाप दिसलें, कारण सोरोप आनी बेबकी म्हळयार भक्षक आनी भक्ष्य. ह्या नागाची ती निर्वेर वृत्ती पळोवन आचार्याक तो ते सुवातेचोच महिमा दिसलो. ही सुवातच निर्वेर आसुंये अशें समजून ताणें थंय मठाची स्थापणूक केली. आचार्यांनी स्थापणूक केल्ल्या सगळया मठांभितर शृंगेरीचो मठ हो पयलो. तुंगा न्हंयेच्या घाटाक तेंकुनच एक व्हड वाड्याभशेन हो मठ आसा. मठांत आचार्यान स्थापन केल्ली श्रीचक्रयुक्त शारदांबेची मूर्त आसा. तशेंच चंद्रमौलीश्वर आनी गणपतीय आसा. थंयच्या पीठस्थ आचार्यांच्यो ह्यो नित्यपुजेंतल्यो मूर्ती आसात. हांगाची गणपतीची मूर्त स्फटिक आनी माणिक बसोवन केल्ली आशिल्ल्यान ताका रत्नगर्भ अशें नांव मेळ्ळें. ही मूर्त शंकराचार्यान आपलो शिश्य सुरेश्वराचार्य हाका दिल्ली अशें सांगतात.

शृंगेरीच्या पिठाचेर शंकराचार्यान बसयल्लो पयलो आचार्य म्हळयार सुरेश्वराचार्य आसा. शृंगेरीच्या पिठाचेर बशिल्ल्या सगळया आचार्यांच्यो समाधी वाड्यांतच आसात. थंयच्या आचार्यांक भारती ही उपाधी आसा. भारती संप्रदाय हांगासावन प्रवर्तित जालो.

दक्षिणेंतल्या राज्यांनी ह्या मठांतल्या पुजाविधीखातीर ग्रामदानां दिल्यांत. मठाचें वर्सुकी उत्पन्न आनी भक्तांकडल्यान मेळटा ती दक्षिणा हांच्या आदारान, मठाचे वतीन हांगा एक अन्नछत्र चलता. थंय येवपी यात्रेकरूंक एका वेळचें जेवण फुकट मेळटा. मठावतीन एक संस्कृत विद्यालय चलता. त्या विद्यालयाचें नांव संजीवनी पाठशाळा.

ह्या मठांत खूब तांब्यापटे आसात. तांचेवयल्यान समजता, इ.स. १३३६ वर्सा विजयनगरचें साम्राज्य प्रस्थापित जावपाफाटल्यान विद्यारण्याचीच प्रेरणा आशिल्ली. विजयनगरचो पयलो राजा हरिहर हाणें मठाक जहागीर दिल्ली. पेशव्यांक ह्या पिठाविशीं खूब आदर आशिल्लो. म्हैसूरचो सुलतान हैदरअली आनी ताचो पूत टिपू हे दोगय मुसलमान शासकय ह्या मठाविशीं आदर दाखयताले. हांणी मठाक बरेच नजराणे दिल्यात.

शृंगेरी गांवांत आचार्याक संबध्द अशीं १२० देवळां आसात. तातुंतलीं शारदांबा आनी विद्याशंकर हांचीं दोन देवळां चड म्हत्वाचीं आसात. शारदेची मूर्त भांगराची आसून, तिचे अलंकारय खूब आसात. थंय एका मोतयाचेर कोरांतिल्लो नंदी आसा. विद्याशंकरमंदिर हें विद्यारण्यस्वामीन आपल्या गुरूच्या नांवान विजयनगरच्या राजाकडल्यान बांदून घेतलें. हें देवूळ काळया पाशाणाचें, अश्टकोनी आसून ताका गोपूरां आसात. तातूंत शंकराची लिंगमूर्त आसा. वेणुगोपाळ आनी श्रीनिवास हांच्या देवळांतल्यो मूर्ती माणकांच्यो घडयल्यात. हांगाचें नवग्रहांचें देवूळय पळोवपासारकें आसा.

गांवालागसारचे दोंगुल्लेचेर एक शिवालय आसून तातुंतलें शिवलिंग स्वयंभू आसा. ताका विभांडकेश्वर अशी संज्ञा आसा. ह्या शिवलिंगाची पुजा केल्ल्यान हांगा केन्नाच दुकळ पडना अशें म्हण्टात.

हांगाच्या पिठाचेर जे जे आचार्य बसले ते सगळे सदाचारी, विद्यावंत आनी वैदिक धर्माचेर भावार्थ दवरपी अशे आशिल्ले. इ.स. च्या १४ व्या शेंकड्यांत पूर्ण योगी, सच्चरित्र आनी वेदान्तपारंगत असो विद्याशंकर हो आचार्य थंयच्या पिठाचेर बसलो. विद्यारण्यस्वामी हो ताचो उत्तराधिकारी आशिल्लो. तो इ.स. १३६१ त पिठाचेर आरूढ जालो आनी इ.स. १३८६ वर्सा ताणें समाधी घेतली.

- कों. वि. सं. मं.

**शेंस भरप :** एकाद्र्या कार्य - प्रसंगार गंध, पिंजर वा हळदीचो बायलमनशेच्या कपलाक पाट वोडून ताचेर तांदूळ दसोवपाचो जो विधी करतात, ताका 'शेंस भरप' (भरणी) वा 'शेंसर भरप' अशें म्हण्टात. 'शेंस' हें उतर 'शीर्स' (शीर्ष) ह्या उतरावयल्यान घडलां.

शीर्स म्हळयार तकली, कपल आनी माथें. 'शीर्स भरप' उतराचें अपभ्रंश जावन 'शेंस भरप' उतर घडलां. शेंस भरपाचे क्रियेक 'शिर्सोवप' वा 'शेंसोवप' अशेंय म्हण्टात. ह्या विधींत गंध, पिंजर, हळद, धंय हांचो कपलाक पाट (आडवो) लावप जाता आशिल्ल्यान 'शेंस - पाट लावपाचो' तशेंच 'मळवट भरपाचो' विधी अशेंय म्हणपाची चाल कांय वाठारांत आसा. 'शेंस' उतरावयल्यानच कार्य - विधींत, मनीस वा देवांच्या माथ्यार उडोवपाच्या तांदळांक 'शेंस' हें उतर पडलां.

लग्न संस्कारांत तर ह्या विधिक खुबच म्हत्व आसा. व्हंकलेची शेंस भरल्याबगर लग्नाचो विधी पुराय जायच ना, तेखातीर न्हवऱ्यान अमुकच मुडी 'शेंसर' (तांदूळ) दिवंक जाय अशी खुबशा जातींनी चाल आसा. आपल्या घरांत पयले फावट आयिल्ले सवाशीण बायलेची शेंस भरपाची रीत गोंयांत हिंदु समाजांतल्या भोवतेक सगळयाच जातींत आसा. कलवंत, भावीण, देवळी, पेरणी, बंदी, अर्दबक्ती आदी समाजांत चली वयांत येतकच होच एक विधी करून तिका दादल्याकडेन शारीरीक संबंद जोडपाची आनी संतत निर्मणेची सामाजिक मान्यताय एकाकाळार मेळटाली देखून 'शेंस विधी' म्हणजे, लग्नाबदला करपाचो एक संस्कार असोय ताका समज जुळिल्लो आसा. व्हंकलेची शेंस भरतना न्हवऱ्याकय कुशीक बसोवन ताच्या कपलाक हळद पिंजर लावन माथ्यार तांदूळ उडोवपाची चाल आसा. रामायणांत रावणाच्या वधा उपरांत रामान दिल्ल्या आदेशावयल्यान हनुमंतान बिभिशणाक शिंवासनार बसयलो आनी त्यावेळार माणकां मोतयांनी ताची शेंस भरून खोस मनयल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

बायलमनशेसारकी देवतेचीय शेंस भरतात. कांय देवळांनी, देवीच्या वर्सुकी उत्सवावेळार तिची शेंस भरपाचो खाशेलो विधी आसता. तुळशी लग्नावेळार, तुळशीची शेंसर भरपाची प्रथा आसा.

शेंस भरपाचो विधी हो सृजनाचो विधी. बायलमनशेच्या सृजन चक्राकडेन ह्या विधीचो मुखेल संबंद आसा. देखून फकत 'आयाव' बायलांचोच म्हणजे सृजनाची क्षमता आनी तिका सामाजिक मान्यताय आसा अशाच बायलांचो ह्या विधीकडेन संबंद आशिल्लो पळोवंक मेळटा. रांड बायलांची वा नेण्टया चलयांची शेंस भरनात, तशेंच दुसऱ्या बायलांची शेंस भरपाचोय तांकां अधिकार नासता.

जायत्या जीव - जितापतींक आनी वनस्पतींक जल्म दिवपी, पोसपी धर्तरेक आदिम मनशान आपली आदिमाता मानल्या आनी मातृदेवतेच्या मूर्त वा अमूर्त रुपांत तिची पुजा केल्या. धर्तरेसारकीच निर्मिती शक्त आनी समान प्रक्रिया आंगांत आशिल्ली बायलमनीस म्हणजे आदिमातेची प्रतिनिधी मानून एकेच्या सृजनाखातीर दुसरेच्या शक्तीचो ताणें सदांच यात्विक उपेग केला. बायलमनशेसारकी धर्तरेच्याय आंगांत ऋतुप्राप्तीन सृजनाची शक्त येता अशें मानून तिच्या रजस्त्रावाक तांणी म्हत्व दिलां आनी तिचो रजोत्सवय दर वर्सा मनयला. तशेंच पिंजर, गंध (अक्षद), हळद, बुको आदी वस्तींक मातृदेवतेच्या रजाचें प्रतीक मानलां आनी सृजनप्राप्तीचे अपेक्षेन तें तिका सदांच ओंपलां. सृजनाची अपेक्षा आशिल्ल्या बायलांनी आपल्या कपलार तें सदांच धारण केलां आनी सृजनाच्या कार्यविधिंनी इत्सीत फळप्राप्ती मेळोवपाखातीर ताचो यात्विक वापर केला.

शेंस भरपाच्या विधीकडेन देवतेच्या ह्या प्रतिकरुपी रजाचो म्हत्वाचो संबंद आसा. खऱ्या अर्थान 'शेंस भरणी' हो देवतेचें रज धारण करपाचो विधी. एकाद्री चली जेन्ना पौगंडावस्थेंत प्रवेश करता, म्हणजे तिका 'पयलें न्हाण' वा पयलो ऋतुस्त्राव येता तेन्ना हो विधी करतात (Puberty rite). चलयेक आयिल्ली रजप्राप्ती देवतेचें पवित्र रज धारण केल्या बगर 'संपरूण' जायना असो समज आशिल्ल्यान हळद - पिंजरीन तिचें कपल भरपाचो हो विधी आसता. रजस्त्राव येतकच पांचव्या वा सातव्या दिसा हो विधी करतात. सवशिणी बायलो जमून 'माटोळेंत' (खास तयार केल्ली न्हाणी) ते चलयेक विधिपुर्वक न्हाणगार घालतात. उपरांत तिका व्हंकलेवरी न्हेसोवन एका सव्यार बसयतात आनी एक एक करून तिच्या कपलार हळद - पिंजरीचो पाट लायतात, ह्या पाटाचेर तांदुळय दसयतात. कांयकडेन तांदळांबदला 'दाळ'य लायतात.

तांदूळ वा दाळ म्हणजे 'धान्यां' हीं निर्मितीचीं प्रतिकां रजांतल्यान नवनिर्मिती जाता, होच संकेत तीं चिकटुवपा फाटल्यान आसता. ह्या वेळार 'नाल्ल' घालुनय तिची व्होंट भरतात. भारतीय संस्कृतींत नाल्लाक पुरुशतत्वाचें प्रतीक मानलां. शेंस भरपाच्या विधिवेळार ताचो ते चलयेकडेन संपर्क हाडप म्हणजे गर्भधारणा करपाची पुराय क्षमता तयार जाल्ले चलयेकडेन प्रतीकरुपी दादल्याचो संबंद हाडप आनी तातुंतल्यान तिची व्होंट फळोवपाची कामना करप असोच अर्थ तातूंत लिपिल्लो आसता. शेंस भरपाच्या विधिवेळार चलयेक पयले फावट खांदार पदर घेवन साडी न्हेसयतात. देखून 'न्हाण' येवंक लागिल्ले चलयेक 'पदर आयलो' अशेंय म्हण्टात.

खिरस्ती सन १०० च्या आदीं भारतांत प्रौढ विवाह पद्दत अस्तित्वांत आशिल्ली. त्या काळार जुवानरंभाचो विधी जाल्या उपरांत रोकडोच ते बायलेचो लग्नविधीन दादल्याकडेन संबंद घडोवन हाडटाले. पूण ऋतुकाळ येवन बऱ्याच तेंपान चलयेचें लग्न करतल्यांचीय म्हायती मेळटा. मध्ययुगांत बालविवाह पद्दत चलताली तेन्ना लग्ना उपरांत हो विधी चलयेच्या वांट्याक येवंक लागलो. विसाव्या शतमानाचे सुरवातेक प्रौढ विवाह पद्दत परत रूढ जाली. तेन्ना आदीं पयल्या न्हाणावेळार, उपरांत लग्नावेळार अशी दोन फावट चलयेची शेंस भरूंक सुरवात जाली. एका काळार सगळया जाती - जमातींनी आशिल्लो पयल्या न्हाणाचो शेंसविधी आयज गोंयच्या समाजांतल्यान लागीं लागीं ना जाला, मात लग्न - संस्कारांत ताका आजुनय म्हत्व आसा.

देवदासी वा संबंदीत समाजांत लग्नाबदला करपाचो संस्कार म्हण रूढ आशिल्लो 'शेंस विधी' सुरवातेक पयल्या न्हाण सुवाळ्यावेळार हेर समाजांत करतल्या विधिसारकोच आशिल्लो. मात ह्या वेळार विधिपुर्वक तिका गळयांत 'दावल' घालपाक दिवन ते राती गांवच्या 'गांवकार', 'गुरव' वा आस्पतीन बरो आशिल्ल्या कोणाय दादल्याकडल्यान अमुकच 'विडो' (पयशे वा धन) दिवपाची 'बोली' करून ते चलयेची 'हातलावणी' (Defloration) जाताली. जल्मभर तिचो पत्कर घेवपाची जापसालदारकी मागीर ताचेर उरताली. तीय जल्मभर ताचेकडेन एकनिश्ठ रावताली. धर्मीक आनी कायद्योचे नदरेन मान्यताय नासली तरी तांचे दोगांमदलो संबंद शिमीत अर्थान कुटूंबीक दादल्या - बायलेचो आसतालो. तांच्या संबंदांतल्यान निर्माण जाल्ले संततीची कायदेशीर नोंद आवयच्या नांवान जाताली. ही देवदासीची परंपरा, गोंयांत आतां पुरायेन बंद जाल्ल्या आनी हेर जातीं प्रमाण तांचे मर्दीय आतां धर्मीक आनी कायदेशीर मान्यताय आशिल्ले लग्न संबंद घडटात.

कपलाक शेंसपाट लावपाची मुखेल चाल जरी एक आसली तरी गांवा - गांवांप्रमाण तातुंतल्या हेर संबंदीत चालींत फरक मेळटा. देखीक - कांय गांवांनी विडो दिवपी दादल्यान ह्या विधिवेळार ते चलयेक सुपारी तोपिल्ली एक सुरी (खंजीर) दिवपाची चाल आसा, जाल्यार कांयकडेन गुरव वाजप - गाजपासयत देवाचें मुखें घेवन चलयेच्या घरा येता जंय त्या मुख्याक तिणें माळ घालपाची आसता. कांय कडेन एके शेंस घाल्ले जाण्टेशे बायलेक न्हवऱ्याचो भेस करूंक लावन ताचेकडेन तिचें लग्न लायतात. मृदंगाकय माळ घालपाची थोडेकडल्या कलवंत जातींमदीं चाल आसा. शेंस विधिची समाप्ती भोवतेककडेन तुळशीक उदक घालून जाता. पूण कलवंत समाजांत, लागणूक आशिल्ल्या देवळाक भेट दिवन, विधिवेळार देवाच्या आंगावयलें जें 'चीर' (कापड) चलयेन न्हेसपाचें आसता त्या बदला देवाक नवें भेटोवन हो विधी सोंपता. कांय वाठारांत ते चलयेन विधिदिसा फांतोडेर उठून आपल्या दारांत एक कवातो रोवपाची प्रथा आसा.

शेंस विधिची ही चाल गोंयाभायर कारवार आनी सावंतवाडी हांगाच्या वाठारांतय मेळटा. पुर्तुगेजांच्या धर्मकोल्लीपणाक लागून सोळाव्या शेंकड्यांत केरळांत स्थलांतर केल्ल्या कोंकणी समाजांत आस्पाविल्ल्या देवदासी समाजांतय शेंस विधिची चाल हालींमेरेन अस्तित्वांत आशिल्ली. दक्षिण भारतांत ही चाल आसा आनी तिका 'ताळी' बांदपाचो (दावल ह्या अलंकारासारको गळयांत घालपाचो एक अलंकार) विधी म्हण्टात. कर्नाटकांतल्या कांय वाठारांत ताका 'पुडी' अशेंय म्हण्टात. दक्षीण भारतांत असो विधी केल्ल्या बायलांक शरणी, मातंगी, जोगम्मा, पात्रदवरु, सुळी, बसवी बी नांवान वळखतात.

- जयंती नायक

पूरक नोंद : देवदासी

**शेक्सपियर, विल्यम :** (जल्म : २३ एप्रिल १५६४, लंडन; मरण : २३ एप्रिल १६१६ लंडन).

विश्वविख्यात इंग्लीश कवी आनी काळविजयी नाटककार. मध्यमवर्गीय वेपारी आसूनय ताचो बापूय जॉन शेक्सपियर प्रतिश्ठीत आसलो. ताचो हातमोजे तयार करपाचो धंदो आसलो. ताका अर्थीक सुबत्तेवांगडा समाजीक सन्मानय फावो जाल्लो आनी उतार पिरायेर तो बेलीफ (मेयर) हे पदवेक पाविल्लो. विल्यम शेक्सपियरची आवय मेरी आर्डन रोमन कॅथलिक पंथांतल्या घरंदाज मध्यमवर्गीय घराब्यांतली आशिल्ली. ताचें भुरगेपण स्ट्रेटफर्डाच्या सैमिक सोबितकायेच्या सांगातान गेलें. जात्रा, नाटकां, चित्ररथ, हेर दबाजे तशेंच भौशिक मनरिजवणेचे तरेकवार कार्यक्रम स्ट्रेटफर्डाक जाताले. चड करून भोंवत्यो नाटककंपन्यो वर्सान वर्सा स्ट्रेटफर्डाक येताल्यो. रॉबिनहूड आनी ताचे आत्मिखुशाल सांगाती हांच्या आख्यायिकांचेर आदारीत प्रयोग जाताले जावंक जाय. पिरायेच्या ७ व्या वर्सा स्ट्रेटफर्ड ग्रामर स्कूलांत शेक्सपियर शिकूंक गेलो. थंय हेर अभ्यासावांगडा लॅटीन विशय शिकप गरजेचें आसलें. देखून सिसेरो, ओव्हीड, प्लॉटस्, सिनेका, टेरेन्स तशेंच विर्जिल हांचेसारके म्हान लॅटीन बरोवपी ताणें ल्हानपणांतच वाचले जावंक जाय. कडक शिस्त आनी खर अभ्यासाखातीर ताची शाळा प्रसिद्द आसली. देखून ताका थोडीभोव ग्रीक आनी ते परसय उणी लॅटीन येताली हें कांय टिकाकारांचें मत लॅटिनाच्या संदर्भांत तरी योग्य दिसना. मात शेक्सपियर चड शिकिल्लो अशें म्हणपाकय आदार ना. १५८२ त अठराव्या वर्साच ताणें आपले परस आठ वर्सांनी व्हड ॲन हॅथवे हे शेतकरी घराब्यांतले चलयेकडेन लग्न केलें.



**पयलें पर्व (१५९० - ९४) :** काळांत कामदी (सुखात्मिका), त्रासदी (शोकांतिका) आनी इतिहासिका अशीं सरभरस नाटकां शेक्सपियरान बरोवन माचयेर हाडलीं. मॉत ह्या वा हेर नाटकांचीं पातयेवण्याजोगी प्रत वा हस्तलिखितां उपलब्ध नात. दर नाटकाचें क्वॉर्टो वा चवथय ह्या नावांचें सुपुल्लें बरप सांपडटा. पूण तें खासा लेखकाचें वा हेरांनी घडयल्लें (Pirated Version) हें नीट सांगूंक येना. १६२३ त ताच्या सगळया मान्य नाटकांची सोडून पॅरिक्लिस संपादीत प्रत फर्स्ट फोलियो ह्या आयजॅक जागार्दाच्या झेल्यांत मेळटा. अशे आनीक तीन फोलियो उजवाडाक आयल्यात. दुसरो फोलियो १६३३ त, तिसरो १६६३ - ६४ त आनी चवथो १६८५ त.

पयल्या पर्वांतल्यो शेक्सपियराच्यो गाजिल्ल्यो कामदी म्हळयार,

टैमिंग ऑफ द श्रू, कॉमेडी ऑफ ॲरर्स आनी द टू जंटलमेन ऑफ व्हॅरोना. ताच्या इतिहासिक नाटकांच्या सारवळेंतलीं किंग जॉन, हेन्रीद सिक्स्थ भाग, १, २ आनी ३, तशेंच रिचर्ड द थर्ड हीं ह्याच काळावयलीं. हीं इंग्लंडाच्या इतिहासाचेर आदारल्यांत आनी हे खातीर शेक्सपियरान हॉल आनी हॉलिनशॅड ह्या इतिहासकारांच्या काळ टिपणां (Chronicler) चो बेसबरो उपेग केला. खासा करून हेन्री द् सिक्स्थची नाटकस्त्रयी आनी रिचर्ड द थर्ड हीं नाटकां, यॉर्क आनी लेंकॅस्टर ह्या सरदार घराब्यांमदल्या सत्ता - संघर्शाकलागून गाजिल्ल्या वॉर्स ऑफ रोजिस (गुलाबझुजां) ह्या युध्दांच्या फाटभूंयेचेर बरयिल्लीं आसात. टायटस् अँड्रोनिकस ही सूडनाट्य जावन आशिल्ली त्रासदीय ह्याच काळार बरयिल्ली. ह्या सुरवेच्या नाटकांनी जांव कामदी, त्रासदी वा इतिहासिका - कांय समानतायो दिसून येतात. तंत्राची अमुरपिकी वाड, रचनेची सदळसाण, अदीक घडणुको पूण उणीं पात्रां, मूळ कृतीचो यांत्रिक उपेग आनी चड नटवी भास हे गूण सगळया सुरवेच्या नाटकांनी चड उण्या प्रमाणांत समानतायेन दिसून येतात. तशेंच, फुडाराक शेक्सपियराचीं पेटंट तंत्रां थारिल्लीं तांची सूलूसय ह्याच तेंपावयल्या नाटकांनी मेळटा. तीं म्हळयार, रुपांतर वा भेसांतरचो उपेग, रम्य अशा रानावनांचो उपेग आनी गितांचो प्रयोग हीं आसात. हे वरवीं ताणें नाटकांत नवलाय, संघर्श, संदर्भ बदल, कथानक - कलाटणी आशयघनता आनी घुस्पट हाडून भोव परिणामकारक प्रयोग केल्यात.

ह्याच काळार शेक्सपियराची काव्य प्रतिभाय फुलोराक आयली. हाका लंडनांतली प्लेगाची साथय कारणीभूत थारली म्हळयार चूक जायना. १५९२ - ९४ त प्लेगाक लागून नाटकघरां बंद उरलीं. नाटकांची मागणी थंडावली. १५९४ त रिचर्ड फील्ड ह्या लंडनच्या संपादकान (जो स्ट्रॅटफर्डाक शेक्सपियराचो शेजारीय आसलो) व्हिनस अँड एडोनिस हें दीर्घ काव्य छापलें. तें अर्ल ऑफ सदम्पृन ह्या सरदाराक (शेन्री व्हिओत्सली) ओंपिल्लें. उपरांत रेप ऑफ ल्युक्रेस ही दुसरी दीर्घकविता उजवाडा आयली. ह्या कवितेच्या अर्पण पत्रिकेंत आदले कवितेखातीर अली कडल्यान बक्षिस लाबिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. ह्यो दोनय कविता भरपूर नामना जोडून साबार आवृत्त्यांनी प्रसिद्द जाल्यो. 'एलिझाबेथन' इंग्लंडांत कवितेक नाटकापरस अदीक श्रेश्ठ प्रतिश्ठा लाबताली. तरीकय शेक्सपियरान नाटकां बरोवपाचें सोडलें ना वा नाटकाचो धंदोय सोडलो ना.

पुरायेन नाटकाचेरच जियेवपी (उपजिविका करपी) शेक्सपियर हो आपल्या युगांतलो पयलो नाटककार. १५९४ - १६०८ मेरेन तर तो पुरायेन नाटकाच्या विश्वांतच आस्पाविल्लो अशें म्हणूंक जाय. समकालीनांमदीं सगळयांत अदीक लोकप्रिय जावनय ताची असामान्य प्रतिभा मात लोकांनी वळखुपाची आसली. अशे वळखिची पयली पावती ताका (पालदिश लामियाः विटस् ट्रेज्यरी हे कृतींत) मेरिश ह्या बरोवप्यान प्लोटस आनी सिनेका ह्या लॅटीन लेखकांवांगडा तुल्यबल थारावन दिल्या. मेरिशान ताका त्रासदी आनी कामदी बरोवपी श्रेश्ठ इंग्लीश लेखक म्हळा.

**दुसरें पर्व ( १५९५ - १६००) :** ह्या काळार ताची नाट्यकला पुनवेच्या चंद्रावरी वाडत गेली. एकजिनशी संरचना, प्रभावी पात्रनिर्मणी, नेमके संवाद आनी आकांताचो प्रभाव घालपी भास हांचें मेळावण ह्या काळावयल्या कामदी, त्रासदी आनी इतिहासिकांनी नदरेंत भरता. अ मिड्समर्स् नायट, लव्हस लेबर लॉस्ट, मर्चंट ऑफ व्हॅनिस, ॲज यू लायक इट, मच अ डू अबाव्ट नथिंग, व्हेल्थ नायट आनी मेरी वायव्हज ऑफ विंडसोर ह्यो एका परस एक सरस कामदी ह्याच तेंपावयल्यो. पात्रांचें जिवें चित्रण आनी इतिहासिक तटस्थतायेकलागून सदाबहार थारिल्ल्यो रिचर्ड द् सेकंड, हेन्री द् फोर्थ आनी हेन्री द फिफ्थ ह्यो इतिहासिका ह्या काळारच माचयेर आयल्यो. ज्युलियस सिजर ही मनोविश्लेशण आनी 'आदर्श - विश्लेशणा'खातीर प्रसिद्द इतिहासिक त्रासदी लेगीत ह्याच काळार बरयिल्ली. ह्या नाटकाक नॉर्थ हाचे इतिहासिक बरपावळीचो आदार लाभला. ग्रीक - रोमन अभिजनांच्या जिवितांचेर उजवाड घालपी ही कृती प्लुटाकीच्या मूळ लॅटीन बरपाच्या अेमियो ह्या फ्रेंच लेखकान केल्ल्या अणकाराचेर नॉर्थान आदारल्या. देखून हे बरपावळीक चडशे लोक नॉर्थस् 'प्लुटार्क' ह्या नांवान वळखतात.

शेक्सपियराच्या ग्रीक - लॅटीन इतिहास पुरसांच्या जिवितावयलीं नाटकां नॉर्थस प्लुटार्काच्या बुन्यादी म्हायती (कांय वेळां चरित्र चित्रणां)चेर उबीं जाल्यांत. मात अशा नाटकांनी खाशेली जिवसाण आनी वेगळेंपण हाडपी भास - तंत्र - आराखडो - दिश्टावो पुरायेन शेक्सपियराचोच आसा हातूंत जाणकारांक दुबाव ना. १५९५ - १६०० हो काळ शेक्सपियराखातीर व्यक्तीगत तेचपरी कलात्मक नदरेन अत्त्युच्च उदरगतीचो थारला. भोव मोलादीक अशी अर्थीक सुबत्ता, वेवसायीक प्रतिश्ठा, दुर्मिळ असो राजप्रतिसाद असादारण लोकप्रियता आनी प्रस्थापित लेखक म्हूण दर्जो हें सगळें शेक्सपियराक ह्याच काळार फाव जालें. फकत दोन सुनितां आनी लव्हस लेबर लॉस्ट ह्या नाटकांतलीं तीन गितां इतल्या म्हालवजाचेर द पेशनेट पिलग्रिम हो वीस कवितांचो झेलो मुखपृश्ठाचेर शेक्सपियराचें नांव मिरयत उजवाडा आयलो. १५९६ त ताणें स्ट्रेटफर्डाक (दोन व्हडल्या आलीशान घरांमदलें) एक घर, 'द न्यू प्लेस' विकतें घेतलें. १५९९ त ताणें आपाल्या सांगात्यांच्या भागीदारेन 'द लोब' हें ३००० बसका आशिल्लें विशाल नाट्यघर सावथवर्क ह्या लंडनाच्या उपनगरी वाठारांत विकतें घेतलें. मात ह्या काळार एक खर त्रासदीय ताच्या व्यक्तीगत जिवितांत घडली. १५९६ त ताचो हेम्नेट हो चलो ११ वर्सांचेरच भायर पडलो. घडये ह्या पुत्रशोकाक लागून जायत वा मध्यानीच्या कडाक तेंकिल्ल्या वेवसायीक वा निजी जिणेच्या हेर हुलपाक लागून जायत

ताचें तिसरें तेंगशे पर्व गाड त्रासदीची सया दाखयता. हें पर्व १६०१ - १६०८ अशें धरतात.

**तिसरें पर्व (१६०१ - १६०८) :** हें शेक्सपियराच्या कलात्मक उत्कर्षाचें अत्त्युच्च पर्व. ताच्यो हेम्लेट, मॅकबेथ, किंग लियर आनी ऑथेलो ह्यो चारय म्हा - त्रासदी ह्याच काळार माचयेर आयल्यो. ज्वलंत मानवी अणभव आनी जिणेच्या अनाकलनीय यथार्थाची घुस्पट ह्या कलाकृतींनी अप्रतिम तरेन उक्तायल्या. विशेश म्हळयार ह्या चारय शोकांतिकांनीचा न्हय जाल्यार मॅज्यर फॉर मॅज्यर, ऑल्स वेल दॅट एँण्डस् वेल ह्या सुखांतिकांनी लेगीत शोक आनी दुख्खाची सावळी पडल्या. देखून ह्या नाटकांक जाणकार निखटच्यो कामदी म्हणनासतना त्रासद कामदी (Tragi - Comedies) अशें म्हण्टात. तशेंच ह्या दोनय नाटकांक ह्याच तेंपावयल्या ट्रॉयलस अँड क्रेसीद हे इतिहासिके वांगडा 'प्रोब्लेम प्ले' (समस्यानाट्य) म्हणपाची प्रथा अभ्यासकांमदीं दिसून येता. टायमन ऑफ अथेन्स, पेरीक्लिस्, कोरियोलेनस आनी अँथनी अँड क्लिओपात्रा ह्यो इतिहासिक ग्रीक - रोमन त्रासदीय ह्या काळार बरोवन माचयेर आयल्यो. हांचोय मुळाधार जॉर्थल्या प्लटार्कांतलीं जिवितां आसात. १६०३ त शेक्सपियराच्या नाटक कंपनीक राया जेम्स पयलो हाचेवरवीं राजमान्यता आनी राजाश्रय लाबला आनी कंपनीचें नांव 'किंग्जमेन' अशें जालें. १६०८ ब्लेकफ्रायर्स हें नाटकघर ताणें २१ वर्सांचे कबलातीचेर भाड्याक घेतलें. १६०३ त प्लेगाक लागून नाटकघरां बंद उरलीं. पूण १६०४ त जेम्स पयलो राजासनाचेर बसूंक लंडनाक भितर सरतना 'किंग्ज मेन' ताचे वांगडा आसले.

**निमाणें पर्व (१६०९ - १६१३) :** हो काळ शेक्सपियराखातीर सवस्तकाय आनी थिरायेचो आसलो. ह्या तेंपार ताणें चारच नाटकां बरयलीं. ३ कामदी आनी १ इतिहासिका. सिंबेलीन, द विंटर्स टेल आनी द् टेंम्पेस्ट (१६१०) ह्यो रम्य - कामदी आनी फ्लेचर ह्या समकालीन लेखका वांगडा बरयिल्ली हेन्री द् एय्थ (१६१३) ही इतिहासिका. उपरांतच्या काळार शेक्सपियरान नाटकां बरयल्ल्याची वा लंडनाच्या नाट्यक्षेत्रांत कसलेंय आगळें योगदान केल्ल्याची गवाय मेळना. चड करून तो निमाणीं तीन - चार वर्सां स्ट्रॅटफर्डाकीच रावंक लागिल्लो जावंक जाय. १६१६ त तीन म्हत्वाच्यो घडणुको ताचे जिणेंत घडिल्ल्याची नोंद मेळटा, त्यो म्हणजे - जुडिथ हे ताचे धाकटे चलयेचें लग्न; कांय म्हयन्यांनी शेक्सपियरान आपाल्या मृत्यूपत्रांत केल्लो बदल आनी एप्रिलांत (चड करून २६ एप्रिलाक) ताचें मरण.

शेक्सपियराचो काळ हो इंग्लिश साहित्याच्या सुवर्णयुगाचो काळ. नवजागृताय आनी प्रबोधन हांचें युग अशें ह्या इंग्लीश बरपाक्षराच्या समृध्द काळाक साहित्य इतिहासकार मानतात. अशा काळार आपलो खासा छाप घालपी लेखक म्हूण तर शेक्सपियराचो उगडास उरतलोच. खेरीज संवसारीक साहित्यपटार आनी चडकरून नाटकाच्या विशाल मळार सदांकाळाखातीर आपली कुरू दवरपी प्रतिभावंत म्हूण शेक्सपियराक फुडार सदांच याद दवरतलो. आयचो पुराय संवसार विल्यम शेक्सपियराक एक असामान्य लेखक पूण सामान्य असो तत्कालीन मध्यमवर्गी मनीस मानता. ताचे प्रतिभेचे सांवळेंत अस्तंती साहित्यविश्वच न्हय तर पुराय विश्वीक साहित्य वावुरता. कलेचें दायज गिरेस्त करून जिणेचो दिश्टावो दिवपी कल्पक सृजनशाली लेखक म्हूण ताचें स्थान अव्वंवर जालां.

- डॉ. किरण बुडकुले

## शेख :

एक मुसलमान जात. भारतभर ह्या लोकांची वसती आसा. शेख म्हळयार व्हड विद्वान. अरबस्तानांतल्यान आयिल्ल्या अबुबकर, ओमर आनी अब्बास हांच्या वंशजांक हो शब्द सुरवातेक वापरताले. पूण हालीं मानान पाचारपाखातीर मुसलमानांक हो शब्द वापरतात.

तांच्यो खूब पोटजाती आसात. क्युरेशी, फरुकी, अनसारी, महाजारीन, क्युरेशी सादिकी, क्युरेशी हश्मी अशो तांच्यो कांय पोटजाती आसात. गुजरातांतल्या शेखांच्यो चालीरिती हिंदूंभशेनच आसात. हे लोक सुंता करिनात. तशेंच हेर मुसलमानांच्या हातचें अन्न खायनात. चडशे शेख स्वामी नारायण पंथाचे अनुयायी आसात तर कांय शेख बाळा महमद शहा ह्या पिराचे भक्त आसात.

शेखांच्या लग्नांत पुरयत आनी फकीर आसतात. फकीर निकाह लायता आनी पुरयत चौरीविधी करता.

- कों. वि. सं. मं.

## शेख, महंमद :

(जल्मः इ.स. चो १६ वो शेंकडो - धारूर, जि. बीड; मरणः इ.स. १६६०).

एक मुसलमान संतकवी. ताच्या बापायचें नांव राजे महंमद आनी आवयचें नांव फुलाई आशिल्लें. चांद बोधले हो राजे महंमद हाचो शिश्य आनी शेख महंमदाचो गुरू. हाच्या मार्गदर्शनाखाल शेख महंमदाचेर भुरगेपणासावनच परमार्थाचे शुध्द संस्कार जाले. श्री. दासगणू हाच्या मताप्रमाण चांद बोधले हाणें शेख महंमदाक गोदातीरी ज्ञानेश्वरीची प्रत दिवन अध्यात्माचें मार्गदर्शन केलें. गुरू चांद बोधले हो सूफींच्या कादिरी परंपरेंतलो. ताच्या सांगातान शेख महंमदान परमार्थवाङ्मयाचें चिंतन - मनन करून आनी ताणें दाखयल्ले वाटेन परमार्थसाधना करून परमानुभवपद मेळयलें. चांद बोधलेन समाधी घेतकच शेख महंमदाक लोक साधू म्हूण वळखूंक लागले.

त्या काळांत शिवाजी महाराजाचो आजो मालोजीराजे, दौलताबादा लागीं आशिल्ल्या वेरूळ गांवाचो पाटील आशिल्लो. तो शेख महंमदाकडे प्रभावित जालो. ताणें शेख महंमदाचो गुरूपदेश घेवन ताका मकरंदपूर नांवाच्या गांवांत मठ बांदून दिलो. हो गांव आनी मठ उपरांत शेख महंमदाच्या फुडल्या जिवितांतल्या

परमार्थप्रसाराचें आनी परमार्थवाङ्मयिनिर्मितीचें केंद्र जालें. शेख महंमदान आपल्या कवनांतल्यान हिंदू आनी मुसलमान ह्या दोनय धर्मांतल्या साद्या - भोळ्या समजुतींचेर प्रहार केले. जे तिडकीन तो मूर्तिभंजन करपी धर्मांध मुसलमानांचेर तुटून पडटा त्याच नेटान तो मूर्तिपूजक हिंदूंचे अंधश्रध्देचेर आघात करता. मूर्तींत देव ना, हें तत्त्व हिंदू - मुसलमानांनी सारकें समजून घेवंचें, तशें केल्ल्यान मुसलमान मूर्तिभंजनापसून आनी हिंदू मूर्तिपूजनापसून परावृत्त जातले अशें तो म्हण्टा.

शेख महंमदाक, हिंदू - मुसलमान ह्या दोनय धर्मांतल्या लोकांकडल्यान खूब त्रास जालो. हिंदू गुरू, हिंदू धर्मग्रंथ, हिंदू संतचरित्रां आनी हिंदू संतवाणी ताणें उत्कट भक्तिभावान आपणायल्ल्यान मुसलमान लोक ताका 'काफर' समजूंक लागले. शेख महंमद हो जातीन मुसलमान आशिल्ल्यान आपले मूर्तिपुजेचो आनी हेर धर्मीक रीतींचो तो निशेध करता म्हूण हिंदू लोकय ताका विरोध करूंक लागले.

आपल्या प्रदीर्घ जिवितांत ह्या योगीन 'योगसंग्राम' हो मुखेल ग्रंथ बरयलो. तशेंच 'पवनविजय' आनी 'निष्कलंकप्रबोध' हे दोन पुराय जावंक नाशिल्ले ग्रंथ बरयले. रुपकां, भारुडां, अभंग, पदां, हिंदुस्थानी कवित्त अशी काव्यरचनाय ताणें केल्या.

श्रीगोंदे हांगा ताणें कितल्याशाच मुमुक्षूंच्या काळजांत परमार्थ जागोवन मुक्तीचो महापंथ दाखयलो. थंयच ताचे कबरीकडे, फाल्गुन शुध्द नमीदिसा, ताच्या पुण्यतिथी निमतान दरवर्सा हिंदू - मुसलमान भक्त जमून शेख महंमदाचें पुण्यस्मरण करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**शेट, मुकुंद मोर्तु :** (जल्म : ११ फेब्रुवारी १९३३, कुंभारजुवें - तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेनचें शिक्षण इंग्लिशींतल्यान घेतलें. १९५४ वर्सासावन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तो भूंयगत राश्ट्रीय वावरांनी वांटो घेतालो. पत्रकां लावप, हातीपत्रकां वांटप, तिरंगी बावटे लावप असलीं कामां तो करतालो. १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा शिरोडा हांगा ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेवपाचें थारायल्लें. पूण ही बातमी आदींच पोलिसांक पावन तांणी ताच्या वांगड्यांसयत ताका अटक केलो. ताका प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून णव वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली आनी दिसाक १० इस्कूद ह्याप्रमाण दोन वर्सां दंड भरूंक लायलो. २० वर्सां खातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. २६ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. उपरांत तो शिक्षणाचो प्रसार करपाक लागलो. १९६७ वर्सा तो कुंभारजुंवें ग्रामपंचायतीचो सरपंच म्हूण वेंचून आयलो. १९७३ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शेट, शिवराम गणेश :** (जल्म : २६ मार्च १९२८, आखाडा - तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान आनी मॅट्रिक मेरेन शिक्षण घेतलें. डॉ. लोहियाचे अटके आड तेंको दिवंक १९ जून १९४६ दिसा काडिल्ले प्रभातफेरींत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो, मार दिलो आनी बोडको करून सोडलो. उपरांत तो पत्रकां लावप, पुस्तिका वांटप, तिरंगी बावटे लावप असलीं कामां करतालो. १८ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका परत धरलो आनी आल्तिनो बंदखणींत घालो. ताका प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून २७ मे १९५५ ह्या दिसा चार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिली. १५ वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शेटये, जयराम वैकुंठ :** (जल्म : ३ एप्रिल १९२५, रायबंदर - तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. ताणें कलाशाखेचें पयलें वर्स मेरेन शिक्षण घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. राश्ट्र सेवा दल संघाच्या कोल्हापूर शाखेचो फुडारी म्हूण तो काम करतालो. चळवळींनी वांटो घेवप, १९५४ च्या सत्याग्रहांत वांटो घेवंक बेळगांवसावन आयिल्ल्या सत्याग्रहींक जेवणखाण आनी रावपाक आदार दिवप असलीं कामां तो करतालो. १९४६ ते १९५५ ह्या काळांत ताका चार खेपे बंदखण आनी दोन खेपे गोंय शीमेभायर घालो. प्रभाकर सिनारी, विश्वनाथ लवंदे, जॉर्ज व्हाज हांच्या फुडारपणाखाल तो काम करतालो. देवगड, कोल्हापूर आनी बेळगांव वाठारांतल्यान ताचो भोवमान जालो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शेटये, श्रीकृष्ण वासुदेव :** (जल्म : २० सप्टेंबर १९३५, म्हापसा - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तशेंच णववीमेरेनचेंय शिक्षण ताणें घेतलां. १९५५ सावन तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो रँक्युअर पॅट्रिओटिकाचो वांगडी जालो. १९५६ त श्रीकांत नायक हाचे वांगडा ताणें म्हापसा नगरपालिकेंत स्फोट घडोवन हाडपाचो यत्न केलो. २३ फेब्रुवारी १९५७ दिसा पोलिसांनी ताका वास्को अटक करून पणजे

हाडलो. थंय ताका भरपूर मार दिवन, परत जूनांत वास्को व्हेलो. पूण जून १९५७ त ताणें आपल्या हेर वांगड्या सयत बंदरवणींतल्यान पळून वचपाचो धाडसी यत्न केलो. थंयच्यान अस्नोडा मार्गान तो बेळगांव पावलो. बेळगांवच्या आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या फांट्यांत तो काम करूंक लागलो. प्रभाकर सिनारी जयद्रथ चोडणकार आनी येशी नायक हांचे वांगडा सुपानगुडी आनी चांदेल पोलिस ठाण्याचेर घातकी हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९५८ वर्सा ताणें दोन जिपींचेर हल्लो केलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शेटये, सुबोध वासुदेव :** (जल्म : २८ ऑगस्ट १९४२, म्हापशें - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें इंग्लिशींतल्यान माध्यमिकमेरेन आनी तंत्रीक शिक्षण घेतलें. १९५५ - ५७ ह्या काळांत तो आझाद गोमंतक दलाचो आनी १९५७ - ६१ ह्या काळांत तो रँक्युअर पॅट्रिओटीकचो वांगडी आशिल्लो. गोंय शीमेवयल्यान पत्रकां आनी स्फोटकां हाडप, तिरंगी बावटे लावप असलीं राश्ट्रीय कामां तो करतालो. पुर्तुगेजांआड काम करपी ताच्या भावाक बंदरवणींतल्यान पळून वचपाक ताणें आदार दिल्ल्यान ताका अटक जाली. उपरांत चौकशी करून ताची सुटका जाली. १९५८ त म्हापशें नगरपालिकेंत बॉंब स्फोट घडोवन हाडपाचो कट तांणी रचिल्लो. तें पोलिसांक कळून पोलिसांनी ताका धरपाचें फर्मान काडिल्लें. पूण शीमेभायर पळून वचपाक ताका यश मेळ्ळें. १९७४ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**शेनवार :** सप्तकांतलो सातवो वार. ह्या दिसा सूर्य उदेता त्या वेळार शनीचो प्रभाव आसता, म्हणून पुराय दिसाक शेनवार हें नांव मेळ्ळां. ह्या वाराचो अधिपती इंद्र आसून ब्रह्मा ही ताची देवता आसा. चवथ्या प्रहराचेर हाचो विशेश काल आसता. हो रातीदोशाचो वार आसा. ह्या वाराक तेल लावन न्हावंचें अशें सांगलां. हो वार संपत्तिप्रद मानतात.

शनी अनिश्ट आसता त्या वाराक मारुतीची उपासना करतात, शनिमाहात्म्य वाचतात. श्रावणांतल्या शेनवाराक संपत शेनवार अशें नांव आसा. त्या दिसा सूर्य उदेवंचे पयलीं अश्वत्थाची पुजा करची आनी एका मूज जाल्ल्या भुरग्याक न्हणोवन जेवण वाडचें अशें सांगलां.

शेनवाराक भोंवडेर वचचें न्हय, नवें वस्त्र घालचें न्हय, मंगल कार्य करचें न्हय अशें सांगलां. शेनवारा भाजलेले चणे खावंचे न्हय. कोळसो, तेल, मीठ विकतें घेवंचें न्हय. शेनवारा नव्या घरांत रावपाक वचप असलीं स्थीर कामां करूं येतात. लोखण, तिखें, शिंशें, कथील ह्या धातूंचे वेव्हारूय ह्या दिसा केल्यार फळादीक जातात.

चैत्र कृष्ण त्रयोदशी शततारका नक्षत्र आनी शेनवार हांणी युक्त आसल्यार तो महावारुणी योग जाता. ह्या योगाचेर गंगेंत न्हावप खूब पुण्यकरी मानलां.

- कों. वि. सं. मं.

**शेर्पा :** नेपाळांतली एक जात. तिबेटांतल्या शर्प ह्या शब्दापसून शेर्पा हें नांव आयलां. शर्प ह्या शब्दाचो अर्थ उदेंतेकडलो असो आसा.पूण शेर्पांची चडशी वसती तिबेटाचे दक्षिणेक आसा. नेपाळच्या हेर वाठारांनीय शेर्पा आसात. कांय शेर्पा लोक नेपाळची शीम हुंपून बंगालच्या दार्जिलिंग जिल्ह्यांत येवन रावल्यात. शेर्पा लोकांची मुखेल वसती खुंवू, फारक आनी सोलू ह्या तीन विभागांनी आसा. खुंवूंतले गांव १२ ते १३ हजार फूट उंचायेचेर आसून फारकांतले गांव ८ ते ९ हजार फूट उंचायेचेर आसात. ह्या तीनय भागांक मेळून सोलू - खुंवू वा शर - खुंवू हें सामान्य नांव आसा. ह्या तीनय भागांतले शेर्पा ऐकेच जातीचे आसले तरी खुंवू आनी सोल ह्या विभागांतलें हवामान आनी जमनीचो वाठार हातूंत खूब फरक आशिल्ल्यान शेर्पांच्या राबित्यांतूय खूब फरक आसा.

नेपाळांत जे तिबेटी लोक रावतात, तांकां नेपाळी लोक भोटिया ह्या सामन्य नांवान वळखतात. पूण भोटियांच्यो खूब जाती आसून, तातुंतली शेर्पा ही जात पर्वत - भोंवडेचे कुशळतायेक लागून चड प्रसिद्द आसा. हिमालयांतल्या अशीर देगणां आनी एव्हरेस्टाच्या तेमकांच्याय सुवातींनी हे लोक वसल्यात.

शेर्पा लोकांचीं अठरा घराणीं आसून, तांच्यांत परस्पर लग्नसंबंद जातात. तांचे भाशेंत घराण्याक 'रु' म्हण्टात. दर एक घराण्याचें कुलदैवत वेगळें आसता. ह्या सगळया दैवतांचो आस्पाव झिदग म्हळ्यार भूदेवता ह्या वर्गांत केला. खुंवूयूल्ह नांवाचो स्थानिक देव ह्या सगळ्या दैवतांपरस श्रेश्ठ मानतात. ह्या अठरा घराण्यांतल्या लोकांक समाजांत चड प्रतिश्ठा आसता कारण तांकांच खरे शेर्पा मानतात. हेर शेर्पा तांचेपरस कमी मानतात, तांकां खंबा म्हण्टात. पूण सगळे शेर्पा एकचारान रावतात. ह्या खंबा शेर्पांतूय खड्यू आनी खमेंड्यू नांवाचे वेगळे पोटभेद आसात. खड्यू हे खमेंड्यू शेर्पांपरस उच्च. ह्या दोनय पोटभेदांनी परस्पर लग्नसंबंद जायनात.

शेर्पा लोक बौध्द पंथाचे अनुयायी आसात. ते आपल्या घरांत प्रार्थना करतात, प्रार्थना - चक्रां फिरयतात आनी गोंबा, चोरटेन हांकां प्रदक्षिणा घालतात. कांय लोकांच्या घरांत देवघर आसता. शेर्पा लोकांक म्हत्वाचे धार्मिक विधी आनी भौशीक सणा - परबांक लामाची गरज पडटा. तेरवातीर पीठ वा शीत आनी लोणी घालून तोरमा

म्हळयार देवतांच्यो आकृत्यो तयार करतात. विधी पुराय जातकच त्यो आकृत्यो मोडून तांचे कुडके प्रसाद म्हूण वांट्टात. त्या तोरमांच्या फुडयांत मानवी कवटीपसून तयार केल्ले तीन पेले आनी तातूंत मेर म्हळयार म्होंव आनी रगत दवरतात. रगत मेळप शक्य नाशिल्ल्यान च्या दवरतात. पुजेच्या विधींत पयलीं देवतांक आवाहन करून वाद्यांचो गजर करतात. उपरांत त्या देवतांचें स्तवन आनी मंत्रजप करतात. निमाणी प्रार्थना करतात.

मठांतल्या भिक्षू आनी भिक्षुणींचें जीवन शिस्तबध्द आनी थारिल्लें आसता. तांकां सतत धर्माचो अभ्यास करचो पडटा. तांचेय कांय सण आनी उत्सव आसतात. गांवांतले लोक तांच्या ह्या उत्सवांक उमेदीन एकठांय येतात. सामान्य शेर्पांक मठांतल्या भिक्षूंविशीं खूब आदर आसता. कारण गृहस्थाश्रमापरस मठांतलें संन्यस्त जीवन उच्च श्रेणीचें आसा अशें सगळयांचें मत आसा. गांवांत रावून संवसार करपीय लामा आसतात. गांवांतले सण - उत्सवांतले धार्मिक विधी ते करतात आनी खाशेल्या म्हत्वाच्या विधींखातीर मठांतल्या लामांक आपयतात.

शेर्पा लोकांत, लग्नापयलींच्या लैंगिक संबंदांचेर कसलींच बंधनां नात. असल्या संबंदांतल्यान भुरगें जल्माक आयल्यार चलयेचो आवय - बापूय त्या भुरग्याचो सांबाळ करतात. तरनाटे चले - चलयो आपुणच आपलो जोडीदार थारायतात. लग्नसंबंद चडकरून समान दर्ज्याच्या घराण्यांतूच थारायतात. आते-मामे-मावस भावंडांचीं लग्नां करीनात. लग्नसंबंद पक्को थारावपाखातीर साकर - पुड्याचो समारंभ करतात ताका 'डेम - चंग' म्हण्टात. उपरांत कांय वर्सांनी लग्न करतात.

मुखेल समारंभावेळार एके शेंदरेचेर तांदूळ पातळावन तातूंत दोन स्वस्तिकां काडटात. तांचेर न्हवरो - व्हंकल बसतात. मुखार लामा बसता. न्हवऱ्या व्हंकलेच्या कपलाक लोणी लावन, एकमेकांकडे एकनिश्ठ रावपाचो तांकां उपदेश करतात. न्हवऱ्या वटेनचे लोक शंख फुकून नाचतात. ह्या विधीक ग्येन - कुटोप म्हण्टात. हाका खूब खर्च येता. तेखातीर 'रीत' नांवाचो लग्नाचो प्रकार रूढ आसा. हातूंत न्हवरो व्हंकलेच्या बापायक कांय रुपया दिवन आपल्या घरा व्हरता. होय प्रकार ग्येन - कुटोपा इतलोच कायदेशीर मानतात.

एके बायलेक दोन भावांकडे लग्न जावपाक मेळटा. तशें केल्ल्यान घरांतले मालमत्तेची वांटणी जावंक पावना. पूण अशे तरेचो लग्नसंबंद चड काळ तिगना कारण धाकलो भाव चडसो दुसरे तरनाटे चलयेवांगडा लग्न जावन नवो संवसार मांडटा. दादल्याक कितल्याय बायलांकडे लग्न जावपाक मेळटा. तांकां घटस्फोट सामको सादेपणान घेवपाक मेळटा. दोगांयच्या सोयऱ्यांक सोरो दिवपाचो आनी घोवान 'आमी वेगळीं जाल्यांत, आतां आमी घोव - बायल नात' अशें सगळयांच्या मुखार सांगपाचें. त्या वेळार घोव आनी बायलेच्या एका सोयऱ्यान धरिल्लो दोरो तोडटात. हेंच घटस्फोटाचें प्रतिक आसा.

ह्या लोकांत घरजावंय करपाची चाल आसा. जांकां चलो ना अशे आवय - बापूय चलयेच्या घोवाक घरा आपयतात आनी ताका आपलो वारस नेमतात. पूण ताचें घराणें वेगळेंच उरता. तो मावाचें नांव लायना.

शेर्पा मनीस मरतकच लामाक आपयतात. तो प्रार्थना म्हण्टा आनी मेल्ल्या मनशाचे तकलेचे केंस हुमटून काडटा. थंयच्यान मेल्ल्या मनशाचो आत्मो भायर सरता अशी तांची समजूत आसा. उपरांत तीन दीस तें मडें बशिल्ले स्थितींत वण्टीक बांदून दवरतात. लामा वेगवेगळया देवतांची तोरमा करून तांचीं स्तोत्रां म्हण्टा. मरणा वेळार वाद्यांय वाजयतात. शेर्पा लोकांत मडें जाळपाची चाल आसा. भुरग्यांचीं मडीं मात पुरतात. मेल्लो मनीस गरीब आसल्यार वा ताका कोणूच सोयरो - धायरो नासत जाल्यार ताचें मडें न्हंयेंत उडयतात. पूण केन्ना केन्ना लामाच्या सांगण्यावयल्यान तें पुरतात. सातव्या वा इकराव्या दिसा नपूर नांवाचो विधी आसता. मेल्ल्या मनशाची एक आकृती करून तिका ताचे कपडे घालतात आनी लामा एक पुस्तक वाचता. तिका अन्न दिता आनी त्या आत्म्याक सर्गांत वचपाक सांगता. त्याच दिसा सोयऱ्यांक - इश्टांक जेवण घालतात. ह्या लोकांत श्राध्द करपाची चाल ना.

उत्सव आनी परबो : शेर्पा लोक वेगवेगळया हंगामांत तरातरांचे धर्मीक विधी आनी सण मनयतात. तातुंतले कांय अशे आसात -

त्सिरिम : एप्रिल-म्हयन्यांत शेताचीं कामां सुरू करतना आनी ऑक्टोबर म्हयन्यांत तीं कामां पुराय जातकच हो विधी करतात. शेतांत पेरणी करतकच नव्या पिकाची देवान राखण करची म्हूण एप्रिल वा मे म्हयन्यांत हो विधी करतात. पापांतल्यान मुक्त जावपाखातीर निउंग्ने हो विधी करतात. दुमजे हो आठ दीस देवळांत चलपी गांवांतलो व्हडलो उत्सव. गोरवांखातीर थेर - चंग हो उत्सव मनयतात. मणि - रिम्डू हो सण दुमजे भशेनूच आसता पूण तो मठांत करतात.

शेती, पशुपालन आनी वेपार हे शेर्पांचे मुखेल वेवसाय आसात. तिबेटाकडे शेर्पा लोकांचो वेवसाय चलता देखून हेर जातींच्या लोकांपरस ते सधन आसात. तिबेटांतल्यान ते मीठ आनी लोकर हाडटात. गोरवां, धान्य, लोणी, कागद, चामडें, साखर हे पदार्थ तिबेटांत धाडटात. कांय पदार्थ ते भारतांतल्यान हाडून तिबेटांत धाडटात.

हालीं तांकां गिर्यारोहण हो नवो वेवसाय मेळ्ळा. गिर्यारोहण करतल्यांचे मार्गदर्शक, मदतगार म्हणून शेर्पांची ख्याती आसा. तेनसींग शेर्पा हाचें नांव ताचे गिर्यारोहणाचे कामगिरीखातीर नामनेक पावलां.

आधुनिक काळांतल्या सुविधांच्या संपर्काक लागून आनी विचारसरणींच्या प्रभावाक लागून, हेर जमातीं भाशेन शेर्पांच्याय चाली

रितींनी आनी परंपरांनी बदल जाल्ले दिश्टी पडटात.

- कों. वि. सं. मं.

**शेष :** नवनागांतलो एक नाग. श्रीविष्णुचो अंशावतार. हो कद्रू आनी कश्यप हांचो पूत आशिल्ल्याचें भागवतांत म्हळां. हो पाताळांत रावता आनी आपल्या मस्तकाचेर धर्तरेचो भार झेलता. अंशरुपान तो श्रीविष्णुचें हांतरूण जाता. भगवंताचें शेषशायी रूप शेषाक लागूनच निर्माण जालां. हाका शंभर तकल्यो आशिल्ल्यान तो धर्तरेचो भार झेलूंक शकता. ताच्या गळयांत धवीफुल्ल रत्नमाळ आसून हातांत नांगराचो फाळ आनी कोयतो आसा. गंगेन शेषाची भक्ती केली आनी ताचे कडल्यान ज्योतिश आनी खगोल ह्या शास्त्रांचें गिन्यान मेळयलें अशें विष्णुपुराणांत म्हळां. शेषाक इत्सा जायत तशें रूप धारण करपाची विद्या खबर आशिल्ली. देखून ताचे कितलेशेच अवतार वा कला निर्माण जाल्यो.

वसुदेव जाल्ल्या भुरग्याक घेवन गोकुळांत वता आसतना धोग्यांनी पावस पडूंक लागलो. तेन्ना पावसापसून कृष्णाची राखण करपाखातीर शेषान ताचेर आपलें फणाछत्र धरलें. रामाचो भाव लक्ष्मण, कृष्णाचो भाव बलराम आनी महाभाष्यकार पतंजली हे शेषाचे अवतार मानतात.

शेष हो काळाचें प्रतिक मानतात. तो असंख्य रुपांनी सृष्टीच्या संकोच - विकासांत वांटो घेता. विष्णुपुराणांत शेषाची तोखणाय केल्या, ती अशी -

त्वया धृतेयं धरणी बिभर्ति चराचरं विश्वमनन्तमूर्ते
कृतादिभेदैरज कालरुपो निमेषपूर्वो जगदेतदत्सि ।।

**अर्थ** - हे अनंतमूर्ती शेषा, तू जे धर्तरेक धारण करता ती धर्तरी पुराय विश्वाक धारण करता. हे अजा, तूं कृतयुगासावन निमेषामेरेन काळाचे भाग आसपी विश्वाचें भक्षण करता.

सगळया जगाक शेषरुपी काळान रेवाडून घेतलां. काल आनी दिक् ह्या दोगांयभितर सृश्टीची उत्पत्ति - स्थिति - लयांची प्रक्रिया चलता. जेन्ना सगळे सृश्टीचो विनाश जाता, तेन्ना काल शेष उरता. म्हणून काल आनी शेष हे दोगूय एकाच तत्त्वाचे पर्याय थारतात. लक्ष्मी आनी वारुणी ह्यो शेषाची पुजा करतात आनी प्रलयकाली शेष विखाच्या उज्याचो लोट भायर मारता अशी कल्पना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**शेळडेंकार, विष्णु रंगाजी :** (जल्म : १४ जुलै १८७२ असोळडें; मरण : २४ मार्च १९४८).

धार्मिक प्रवृत्तीचो लेखक, कवि, चरित्रकार आनी इतिहासकार. केपें तालुक्यांतल्या असोळडें गांवांत ताचो जल्म जालो. ताचें मुळावें शिक्षण ताच्या बापायकडल्यान घरच्या घराच जालें. पुर्तुगेज सेगुंद ग्राव जाल्या उपरांत माध्यमिक शाळेंतल्यान लॅटिनचो कोर्स ताणें पुराय केलो.

वेवसायान तो जमिनदार आशिल्लो. साहित्याच्या मळार ताणें वेगवेगळया विशयांचें लिखाण केलें. १८९६ वर्सा ताचें ''बाबा उपसकर कृत पूर्णसार'' हें पयलें काव्य प्रकाशित जालें. मुखार देवी चरितामृत, दामोदर पद्यामृत, रामनाथ माहात्म्य, श्री मंगिरीश शांतादुर्गाख्यान, चंद्रेश्वर माहात्म्य, गोमंतकांतील कैवल्यपूर हांगाच्या शांतादुर्गा संस्थानाचो इतिहास आनी 'गोमंतकांतलो गौड सारस्वत ब्राह्मण व त्यांचे कुलदेव' ही अनुक्रमान १६४ आनी २०० पानांचीं दोन पुस्तकां ताणें बरयलीं. ह्याशिवाय ताचीं कांय खंडकाव्यां अजून अप्रकाशीत आसात. त्याशिवाय ताका संतकाव्य, व्याकरण ह्या विशयांचीय आवड आसली. ह्या सगळया लिखाणाफाटल्यान धार्मिक प्रेरणा उबी करून ताणें लेखक म्हण नामना मेळयली.

- कों. वि. सं. मं.

**शैव आगम संप्रदाय :** जो संप्रदाय महादेवाकच आपलें एकमेव उपास्य दैवत मानता त्या संप्रदायाक शैव म्हण्टात. शैव संप्रदायांतले कापालिक आनी कालामुख हे रुद्ररुपांत परमेश्वराचो स्वीकार करतात. हे संप्रदाय वाममार्गी आसून तांची साधना बिभत्स आसा. कंठहार, आभूषण, कर्णभूषण, चूडामणी, भस्म आनी जानवें ह्यो स कापालिकांच्यो मुद्रिका आसात. कापालांत जेवण, चिताभस्माचो लेप, मद्यपात्राचेर बसोवन शिवाची पुजा, ह्या अभद्र गजालींनी कालामुखांची साधना चलता. दक्षिणमार्गी शैव संप्रदायांची पाशुपत, शैवसिध्दान्त, काश्मीरीय शैवमत आनी वीरशैवमत अशी वांटणी करूंक मेळटा. पाशुपतांचें केंद्र गुजरात आनी राजस्थान, शैवसिध्दान्तांचें तमिळ प्रदेश, काश्मीरीय शैवमताचें केंद्र काश्मीर आसून वीरशैवमताचें केंद्र कर्नाटक आसा.

वैदिक काळांत विध्वंसक आनी भिरांकूळ दृश्यां पळोवन, तीं उग्र कृत्यां रुद्र हे देवतेचीं आशिल्ल्याचें मनशांनी मानलें. रुद्रान आपलो संहार करचो न्हय म्हूण ताच्यो प्रार्थना केल्यो. ऋग्वेदांतलीं रुद्रसूक्तां अशा प्रार्थनांचीं आसात. यजुर्वेदांत रुद्राचे प्रसन्नतेखातीर बलिदानाची येवजण केल्या.

कांय काळा उपरांत रुद्राचें शिव हे लोकमान्य देवतेकडे संमीलन जालें. रुद्र हो शिवरूप आसून, तो जेपरी संहार करता तेचपरी कल्याणय करता असो लोकांचो भावार्थ जालो.

श्वेताश्वतर उपनिषदांत रुद्र - शिवाक सगळयांत श्रेश्ठ म्हळयार परमेश्वर मानला. शिवाचें एक रूप पशुपती हें आसा. अथर्वशिरस ह्या उपनिषदांत हाचो उल्लेख मेळटा. थंयच शैव दर्शनांतल्या पशू, पाश ह्या पारिभाषिक शब्दांचो उगम जालो. शैव, पाशुपत,

कालदमन (कालामुख) आनी कापालिक हे चार माहेश्वर म्हळयारच शैव संप्रदायांचो महाभारतांत उल्लेख जाला. ह्या चार संप्रदायांच्या मूलग्रंथांक शैवागम म्हण्टात. तातूंत कांय आगम वैदिक आसात तर कांय अवैदिक आसात. शैवागम म्हळयार शैवमताचें शास्त्र. उप - आगम धरून ह्या आगमांची संख्या दोनशें जाता. चडशे सगळे आगम इ. स. पयलीं सातव्या शेंकड्यामेरेनचे आसात. काळांतरान ह्याच आगमांचो तमिळ शैव, वीर शैव आनी काश्मीरी शैव ह्या मतांनी विकास जालो. शैवांच्या मतान आगम हे निगमांच्या म्हळयार श्रुतींचे तोडीचे आसात. हे आगमग्रंथ शिव आनी दुर्वास हांच्या मुखांतल्यान भायर पडले, अशी शैवांची धारणा आसा. मालिनी विलास, स्वच्छंद, विज्ञानभैरव, उच्छुष्मभैरव, आनंदभैरव, मृगेंद्र, मातंग, नेत्र, नैश्वास, स्वयंभू, रुद्रयामल आनी कामिक हे तातुंतले मुखेल आगम आसात. मुळांत हे आगम द्वैतवादी आशिल्ले. पूण उपरांत ते अद्वैत जाले. वसुगुप्त आनी ताच्या उपरांतचे काश्मीरीय दार्शनिक हांणी आगमांचें अद्वैतपर भाष्य केलां.

आगमग्रंथांनी ३६ तत्त्वां मानल्यांत. तातुंतलीं २४ तत्त्वां सांख्यांचीं आनी तांचीं समान आसात. त्याभायर काल, नियती, कला, विद्या, राग, अशुक्रमाया आनी प्रकृतिमाया हीं सात मिश्रतत्त्वां मेळून तांची संख्या ३१ जाता. तातूंत शिव, शक्ती, सदाशिव, ईश्वर आनी शुध्द विद्या हीं पांच शुध्द तत्त्वां घातल्यार आगमोक्त तत्त्वसंख्या ३६ जाता.

भारतीय कला आनी साहित्य हांचेर आगम शास्त्रांचो खोलायेन प्रभाव पडला. नाट्य, नृत्य, शिल्प, वास्तू, चित्र, संगीत, शब्द - शास्त्र, सांख्य - योग आनी न्याय - वैशेषिक ह्या सगळया श्रेत्रांनी सुरवेक शैवागमांकडेच नदर आशिल्ली कालिदासाच्या तीनूय नाटकांचे मंगल श्लोक शैवागमांतल्यान सूचल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**शोण** : एक न्हंय. तिका हिरण्यवाह, सोना (सोन), सोनभद्र अशींय नांवां आसात. गंगेक मेळपी व्हड न्हंयांतली शोण ही एक न्हंय आसा. हिका शोणनद म्हूण मानान पाचारतात. पाटलिपुत्र नगर शोण न्हंयेचे देगेर आशिल्लें अशें ग्रीक भुगोल अभ्यासकांचें मत आसा. मध्य प्रदेशाच्या शहडोल जिल्ह्यांतल्या अमरकंटक पर्वताचेर सोनमुडा नांवाचो एक प्रपात आसा, हेंच शोण न्हंयेचें उगमस्थान. थंयसावन ती ईशान्येकडे बाघेलखंड, मिर्झापूर, शाहाबाद ह्या जिल्ह्यांतल्यान व्हांवत वचून पाटण्यालागसार बांकापूरसावन लागसारच गंगेक मेळटा.

मगध देशांतल्यान शोण न्हंय व्हांवता म्हूण रामायणांत तिका मागधी म्हळां. विश्वामित्राबरोबर मिथिलेक वतना राम - लक्ष्मणान तिचे देगेर एक रात मुक्काम केल्लो. रामायणाभशेनूच मत्स्यपुराण, ब्रह्मपुराण, वायुपुराण हातुंतय शोण न्हंयेचो पितृतीर्थ आनी पुण्यसरिता म्हूण उल्लेख आसात.

हे न्हंयेसंबंदीं खुबशो दंतकथा आसात. भागवतांतलें गजेंद्रनक्रांचें झूज शोण - गंगासंगमाच्या डोहांत जालें असो समज आसा. तशीच एक प्रेमकथा आसा, ती अशी - नर्मदा ही एक राजकन्या आशिल्ली. सोनभद्र नांवाच्या एका मनशाचेर ती भाळळी. तांणी लग्न करपाचें थारायलें पूण कोणाच्या तरी शापाकलागून तांचो मोग सफल जालो ना आनी तीं दोगांय दोन तोकांनी न्हंयेच्या रुपांत व्हांवक लागलीं. नर्मदा अस्तंतेवटेन जाल्यार शोण उदेंतेवटेन.

- कों. वि. सं. मं.

**शौनक** : शौनक हें खुबशा व्यक्तींचें कुलनांव आसा. ऋग्वेदाच्या दुसऱ्या मंडलाचो कर्तो गृत्समद हो शौनक आसा. शतपथ ब्राह्मणांतले इंद्रोत आनी स्वैदायन हेय शौनकच आसात. बृहदारण्यकांत रौहिणायनाचो गुरू म्हूण एका शौनकाचो उल्लेख मेळटा. खुबशा पुराणांनी भृगुकुळांतलो मंत्रकार म्हूण एक शौनक दिसता. हो शौनक कुलपती आनी वेदार्थशास्त्रज्ञ आशिल्लो. रुरू - शुनक - शौनक अशी ताची वंशपरंपरा आसा.

महाभारतांत शौनकाचो भोवमानान उल्लेख केला. महाभारताप्रमाण शौनक हो एक कुलपती आशिल्लो. ताचो आश्रम हें एक व्हड गुरूकूल आशिल्लें आनी तातूंत अध्ययन करपाखातीर भारतांतल्या कोनशांतल्यान विद्यार्थी येताले. तांच्या रावपा - जेवणाची सोय आश्रमामार्फतच जाताली. शौनकाच्या ह्या आश्रमांतच अथर्ववेदाचो शौनकशाखेचो विस्तार जालो. परीक्षिताचो पूत शतानीक हाका शौनकानूच तत्त्वज्ञान शिकयलें. युधिष्ठिराकय ताणें धर्मोपदेश केला. महाभारतांत शौनकाक योगशास्त्रज्ञ आनी सांख्यनिपुण म्हूण मानान पाचारतात.

विंगड विंगड पुराणांनी ताका क्षत्रोपेत द्विज, मंत्रकृत मध्यमाध्वर्यू, कुलपती अशो उपाधी मेळळयात. ताणें ऋग्वेदअनुक्रमणिका, ऋक्प्रातिशाख्य, बृहद्देवता, शौनकस्मृती, चरणव्यूह, ऋग्विधान, ऋग्वेदकथानुक्रमणी हे ग्रंथ रचल्यात. वैद्यक शास्त्रांतले 'शल्यतंत्र' हे शाखेचो शौनक होच जनक मानतात. शाकल आनी बाष्कल ह्या ऋग्वेदाच्या दोन शाखांचें ताणें एकत्रीकरण केलां. ऋग्वेदाच्या उपलब्ध अनुक्रमणींत शौनकाची अनुक्रमणी पुर्विल्ली मानल्या. तातूंत ऋग्वेदाची मंडल, अनुवाक, सूक्त अशी विभागणी केल्या. ताच्या ऋक्प्रातिशाख्यांत वैदिक ऋचांची आनी शाखांतल्या मंत्रांची उच्चारणपद्दत सांगल्या. ह्याच ग्रंथांत ताणें खुबशा पूर्वाचार्यांचो आनी व्याकरणकार व्याडी हांचो परतून परतून उल्लेख केला. व्याडी हो शौनकाचो शिश्य आसुंये असो अदमास आसा. शौनकगृह्यसूत्र, शौनकगृह्यपरिशिष्ट आनी वास्तुशास्त्राचेर एक ग्रंथ अशे आनीकूय कांय ग्रंथ ताच्या नांवाचेर आसात. ऐतरेय आरण्यकांतलें ५ वें आरण्यकय शौनकानच रचलें अशें सायणभाष्यावयल्यान कळटा. आश्वलायन हो शौनकाचो मुखेल शिश्य आशिल्लो. ताणें आपल्या गुरूक प्रसन्न

करपाखातीर गृह्य - श्रौतसुत्रांची रचना केली. त्या सुत्रांचेर शौनक इतको खूश जालो, ताणें स्वताचे सगळे श्रौतशास्त्राविशींचे ग्रंथ स्वताच्या हातान नश्ट केले अशी आख्यायिका आसा. ताणें खुबशे यज्ञ आनी सत्रां केलीं अशें पुराणांवयल्यान समजता. हातुंतल्या नैमिषारण्यांतल्या ताच्या दीर्घसत्रांत रोमहर्षणपुत्र उग्र श्रवा ह्या सूताकडल्यान ताणें महाभारताचें श्रवण केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**शौरसेनी :** एक प्राकृत भास. शूरसेन (मथुरा) देश आनी ताच्या लागसारचो प्रदेश, हांगाची ही लोकभास आशिल्ली. आर्यसंस्कृतीचें केंद्र आशिल्ल्या मध्यदेशांतली ही भास आशिल्ल्यान तिचेर संस्कृताचो प्रभाव पडत उरलो आनी ती संस्कृत भाशेक खूब लागीं जाली.

दिगंबर जैन संप्रदायाच्या ग्रंथांनी शौरसेनीचो उपेग केला. हे भाशेचीं कांय खाशेलपणां आसात तीं अशीं -

१) संस्कृतांत दोन स्वरांमदीं आयिल्ले त् आनी थ् शौरसेनींत द् आनी ध् जातात.

२) दोन स्वरांमदल्या द् आनी ध् हातूंत बदल जायना.

३) संस्कृतांतल्या 'क्ष'चो शौरसेनींत क्ख जाता.

४) संस्कृतांतल्या 'य'च्या बदला 'अ' जाता. देखीक - गम्यति - गमीअदि.

५) ऋ च्या जाग्यार 'इ' येता. देखीक - गृध्र - गिध्द.

६) ण, ज्ञ आनी न्य च्या जाग्यार ञ्ञ येता. देखीक - विज्ञ - विञ्ञो, कन्यका - कञ्ञका.

७) व्यंजनांचो लोप जावन फकत स्वर उरतात. देखीक - हृदय - हिअअं.

आर्विल्ले मथुरेची भास आनी पयलींची ब्रज भास हांचें शौरसेनी हें प्राचीन रूप आसा. शौरसेनी अपभ्रंश असो अपभ्रंश बोलीचोय एक प्रकार आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**श्रमण :** बौध्द आनी जैन साधूंक तशेंच चड करून जैन मुनींक श्रमण ही संज्ञा आसा. मोक्ष मेळोवपाखातीर कठीण तप आनी कठोर व्रत परिश्रमान आचरणांत हाडपी तो श्रमण. वर्धमान महावीराक श्रमणभगवान अशी पदवी आसा. कारण ताणें आपले जिणेंत कठीण तप आनी व्रतां करून श्रमण धर्माचो आदर्श घालून दिल्लो. श्रमण हे वितरागी आनी संन्यासी आसतात. कांय बौध्द श्रमण वैरखास नेमांक पाळो दिताले, त्या नेमांक धुतंग अशें नांव आसा. वृक्षमूलनिकेतन्, अरण्यनिवास, स्मशानवास, अभ्यवकासवास, पांशुकूलधारणा, आदी गजाली धुतंगांत येता. संन्याशाक परिव्राजक, मस्करी, मुनी, यती आनी भिक्षू हींय नांवां आसात. हातुंतलीं फुडलीं तीन बौध्द आनी जैनांत सामकीं चालंत आसात.

बुध्दाच्या काळांत लोकांचें धर्मीक नेतृत्व ऋषी, याज्ञिक आनी कर्मकांडां करपी ब्राह्मण हांच्या हातांतलें वचून तें मुनी, श्रमण आनी भिक्षू हांच्या हातांत गेलें. श्रमण हे अवैदिक आशिल्ले. ते यज्ञ यागाक बी हिणसायताले. तशेंच यज्ञासावन मेळपी फळांकय ते तुच्छ लेखताले. श्रमणांतले कांय संप्रदाय तपाचेर भर दिताले पूण ईश्वर नांवाचो कोणय तरी ह्या संवसाराचो कर्तो - धर्तो आसा हाचेर तांचो विश्वास नासतालो. बुध्द काळांतले अवैदिक अर्थात नास्तिक अशा श्रमणधर्मी दादल्यांमदीं अजित केशकंबल, पूरणकस्सप, पकुध कच्चायन, संजय वेलट्ठिपुत्त, उद्दक रामपुत्त, आळारकालम आनी मंखली गोसाल हे चड प्रसिद्दीक पावले. वेद बाह्य अशा समाजांत तांकां आदराची सुवात आशिल्ली. हे सगळे श्रमण धर्मी आशिल्ले. त्यावेळावयले निगंठ, आजीवक, परिव्राजक, जटिलक, मुंडधाक्क, ते दंडिक आदी संप्रदाय श्रमणांचेच आशिल्ले.

पूण श्रमणधर्माची खरी वाड मात जैन धर्मा वांगडाच जाली. जैनांच्या आगम ग्रंथांतल्या सूत्रकृतांग, स्थानांग आनी औपपातिक ह्या सुत्रांमदीं त्यावेळावयल्या श्रमणसंस्थेविशीं बरीच म्हायती मेळटा. सूत्रकृतांग ह्या ग्रंथांत सुमार ३६३ विंगड विंगड श्रमण पंथांचो उल्लेख आसा. स्थानांग सुत्रांत निर्गंथ, शाक्य, तापस, गेरुय आनी आजीव अशा पांच श्रमणभेदांचो उल्लेख आसा. त्यावेळावयल्या श्रमणपंथाची म्हायती बौध्दांच्या अंगुत्तरनिकाय, संयुक्तनिकाय आदी ग्रंथांतय मेळटा. ह्या सगळया पंथांचे शिश्य संवसाराचो त्याग करून संन्यस्त जीण जगताले आनी सदांच फिरत रावताले. कुडीच्या सुखाची ओड नाशिल्ल्याने भिक्षेन मेळटा तितल्या अन्नाचेर ते उपजीविका करून दिसांतलो आपलो चडसो वेळ ते तप आनी अभ्यास हातूंत सारताले.

श्रमणसंस्थेची उत्पत्ती कशी आनी कित्याक जाली हेविशीं खुबशा विद्वानांचीं वेगवेगळीं मतां आसात. जैनांचे अंग आनी मूलसूत्र हे ग्रंथ पोन्ने म्हणूं येतात. अंगग्रंथांत आचारांग आनी सूत्रकृतांग हे ग्रंथ सगळयापरस चड पोन्ने मानचे हाचेविशीं चडशा विद्वानांचीं मतां अनुकूल आसात. तांचो अभ्यास केल्यार अशें दिसता, ह्या ग्रंथांत श्रमणांच्या चारित्र्यविशयक नीतिनेमांचेर चड भर दिल्लो आसा. सुत्रांत पंचमहाव्रताच्या पालनाक आनी हेर आचार संपदेक जितलें म्हत्व दिल्लें आसा, तितलें खंयच्याच विशयाक दिल्लेंना. अहिंसा, सत्य, अचौर्य, ब्रह्मचर्य आनी अपरिग्रह हीं तीं पांच व्रतां जावन आसात. जीवाचो घात करप ना, तशेंच राग, दुस्वास, काम, तिडक आदी भाव मनांत निर्माण जावंक दिवप ना, जीवाचेर आयलें तरी फट उलोवप ना, दिल्ली वस्तू घेवप ना, ब्रह्मचर्याचें पालन करप, अर्थात पंचेंद्रियांक स्वताच्या ताब्यांत दवरून खंयच्याच प्रकारान विशयाच्या सुवादीन जावप ना, भितरल्या आनी भायल्या अशा सगळया तरांच्या परिग्रहांचो त्याग करप, ह्यो सगळयो गजाली पंचमहाव्रतांत येतात. पंचमहाव्रतांभायर आनीक २३

गूण आसात. हीं व्रतां आनी गूण मेळून तांची संख्या २८ जाता. तीर्थकरांची तुस्त करप, तप वाडोवप, कर्म ना जावपाखातीर कामां करीत रावप, भिकेचेर जगप, उब्या उब्यांनीच जेवप, दिसांतल्यान एकेच खेपे जेवप, जमनीर न्हिदप, नागडे रावप, केंसांनी भूंय झाडप आदी गजालीय श्रमणधर्मांत सामक्यो गरजेच्यो म्हूण सांगल्यात. ह्या सगळयांत पंचमहाव्रतां हो श्रमण धर्माचो गाभो जावन आसा.

अंग आनी मूलसूत्र सोडून उरिल्ले जैन आगमनांतले ग्रंथ दुसऱ्या गटांत पडटात. ह्या ग्रंथांतल्यान श्रमणजीणेचीं कितलीं तरी तासां दिसून येतात. श्रमणसंघाची खाशेली न्यायपद्दत आशिल्ली. खंयचे ख्यास्तीखातीर खंयचें प्रायश्चित दिवंचें, तें दिवपाचो अधिकार कोणाचो, गुन्यांवकाराकडेन कशें वागचें, ख्यास्तींत सूट कोणें आनी केन्ना दिवंची आदी न्यायासंबंदांतल्या तपशिलाची मांडावळ छेदसुत्रांत सांगिल्ली आसा.

जैन श्रमणांनी व्यक्तिगत आनी रासवळ जीणेंत बरे आदर्श उबे केले. त्यावेळावयले समाजजीणेंत आचार आनी विचार हांची फारकत जाल्ली. ही अवस्था ना करून जैन श्रमणांनी आचार आनी विचार हांचो मेळ घालून, तसो आदर्श लोकांमुखार दवरलो. सुरवेच्या जैन श्रमणांनी ब्रह्मचर्य, अपरिग्रह आनी चारित्र्य हाचेर नेटाचो भर दिलो, तेखातीर कडक नेमांची बांधिलकाय तांणी आपणायली. अहिंसा तत्त्वाक पाळो दितना तांणी साद्या अहिंसे वांगडा वाचिक आनी मानसिक अहिंसेचोय पुरस्कार केलो. मनांत हिंसेचे विचार येवपाकच दिवप ना आनी आयलेच तर तेखातीर प्रायश्चित घेवप, आपल्या उतरांनी कोणाक दुखोवप ना, अशे तरेचे आदर्श जैन श्रमणांनी लोकांक प्रत्यक्षांत आचरून दाखयले. ताकालागून समाजांत चारित्र्याविशीं आस्था तयार जावपाक मदत जाली. श्रमणांनी सामान्यरितीन भारतीय समाजाचें खाणजेवण - रावप हातुंतय बदल घडोवन हाडपाक मदत केली. जैन धर्माकडे संबंद आयिल्ले कांय प्रदेशांतले लोक चड करून शिवराक जाले. श्रमणांनी जातीवेवस्था न्हयकारली. कर्मकांड पयसावलें आनी मोक्षाचें दार सगळयांखातीर उक्तें केलें. राजाश्रय आनी लोकाश्रय हांच्या बळग्यार जैन श्रमणांनी व्हड मोलादीक ग्रंथसंपदा निर्मिली, वाङ्मयाचे कितले तरी फांटे - उपफांटे सजयल्ल्या विद्वज्जनांच्यो परंपरा निर्माण केल्यो. खूब कडेन ग्रंथभांडारां उबीं केलीं.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद - जैन धर्म

**श्रवण - (१) :** अठ्ठावीस नक्षत्र माळेंतलें बाविसावें नक्षत्र. ह्या नक्षत्राचें वैदिक नांव श्रोणा आसून, विष्णु ही ताची देवता आसा. ताका त्रिकांड वा विष्णुचो त्रिविक्रम अशें म्हण्टात. मळबांत विषुववृत्ताचे उत्तरेक गरूडपुंजालागसार ह्या नक्षत्राच्यो तीन ठसठशीत तारको वळीन दिसतात. ह्या तीन तारकांच्या रुपान विष्णुन, द्युलोक, अंतरिक्ष आनी पृथिवी अशीं तीन पावलां घातलीं अशें तैत्तिरीय संहितेंत म्हळां. थंयच एक कथा सांगल्या ती अशी - एकदां विष्णुक आपली पुण्यकीर्त आयकुंची आनी अपकीर्तिची बादालेगीत जावंची न्हय अशी इत्सा जाली. तेखातीर ताणें तीन कंपालांचेर तयार केल्ल्या पुरोडाशाचो याग केलो. तशें केल्ल्यान ताणें पुण्यकीर्त आयकली आनी अपकीर्तीची ताका केन्नाच बाधा जालीना. तेखातीर जो यजमान अशे तरेन याग करता, तो पुण्यकीर्त आयकता आनी अपकीर्त ताच्या म्हऱ्यांत येना.

श्रवण नक्षत्राचो स्वामी विष्णु. हें नक्षत्र मकर राशींत येता. तें शुभ, चर, ऊर्ध्वमुख, सुलोचन, वानरयोनीचें, देवगणाचें आनी अंत्यनाडीचें आसा, अशें बृहज्ज्योतिषसारांत सांगलां. ह्या नक्षत्राचेर जल्मुपी मनीस असो आसता -

> शास्त्रानुरक्तो बहुपुत्रमित्र : सत्पुत्रभक्तिर्विजितारिवर्ग : ।
> चेज्जन्मकाले श्रवणा हि यस्य प्रेमा पुराणश्रवणे प्रवीण : ।।
> (कोष्ठीप्रदीप)

**अर्थ** - श्रवण नक्षत्राचेर जल्माक येवपी मनीस, शास्त्रप्रेमी, पूत आनी इश्ट आशिल्लो, दुस्मानाचेर जैत जोडपी, मायेस्त आनी पुराणश्रवणांत प्रवीण असो आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**श्रवण - (२) :** एक भक्तिप्रकार. श्रीमद्भागवतांत भक्तीचे णव प्रकार सांगल्यात - श्रवण, कीर्तन, स्मरण, पादसेवन, अर्चन, वंदन, दास्य, सख्य आनी आत्मनिवेदन, देवाचे गूण आनी ताचें माहात्म्य श्रवण केलें म्हळयार श्रध्देन आयकलें तर ईश्वराची वळख जाता. हे वळखींतल्यान ईश्वराविशीं प्रेम आनी आदर निर्माण जाता. स्वता केल्लें ईश्वराचें गूणगायन आनी दुसऱ्याकडल्यान जाल्ल्या ईश्वराच्या गूणगायनाचें श्रवण ह्या दोनूय भक्तिमार्गांतल्यान ईश्वरसिध्दी प्राप्त जाता असो श्रवणभक्तिचो महिमा आसा. ज्या काळांत ग्रंथलिखाण वा ग्रंथप्रसार फावो तसो नाशिल्लो तेन्ना दुसऱ्याकडल्यान आयकून तेखरवीं मनोमन ईश्वराची प्रार्थना करप अशें घडटालें, हेचखातीर श्रवण भक्ती ही भक्ती मार्गांतली आद्य अवस्था थारता.

समर्थ रामदास स्वामीन आपल्या दासबोधांत श्रवणभक्तीचो महिमा सांगला तो असो -

> आता श्रवण केलियाचे फळ । क्रिया पालटे तत्काळ ।
> तुटे संशयाचे मूळ । येकसरां ।।
> मार्ग सापडे सुगम । न लगे साधन दुर्गम ।
> सायोज्यमुक्तीचे वर्म । ठांई पडे ।।
> नासे अज्ञान भ्रांती । शीघ्राची येथे ज्ञानप्राप्ती ।
> ऐसी आहे फलश्रुती । इये ग्रंथी ।।
> योगियांचे परम भाग्य । आंगी बाणे ते वैराग्य ।

चातुर्य कळे यथायोग्य । विवेकेसहित ।।
भ्रांत अवगुणी अवलक्षण । तेचि होती सुलक्षण ।
धूर्त तार्किक विचक्षण । समयो जाणती ।।
आळसी तेचि साक्षपी होती । पापी तेचि पस्तावती ।
निंदक तेचि वंदू लागती । भक्तिमार्गासी ।।
बध्दचि होती मुमुक्ष । मूर्ख होती अति दक्ष ।
अभक्तचि पावती मोक्ष । भक्तिमार्गे ।।
नाना दोष ते नासती । पतित तेचि पावन होती ।
प्राणी पावे उत्तम गती । श्रवणमात्रे ।।
नाना धोके देहबुध्दीचे । नाना किंत संदेहाचे ।
नाना उद्वेग संसाराचे । नासती श्रवणे ।.
ऐसी याची फलश्रुती । श्रवणे चुके अधोगती ।
मनास होय विश्रांती । समाधान ।।
जयाचा भावार्थ जैसा । तयास लाभ तैसा ।
मत्सर धरी जो पुसा । तयास तेंचि प्राप्त ।।

(दास १.१.२८ - ३८)

परीक्षिती, शुक्राचार्य, प्रल्हाद, लक्ष्मी, पृथू राजा, अक्रूर, हनुमान, अर्जुन आनी बली हांकां नवविधाभक्ती करपी प्रातिनिधिक भक्त मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद - भक्ती

**श्रवणबेळगोळ :** दिगंबर जैनांचें एक तीर्थक्षेत्र. द. लोहमार्गाच्या बंगलोर - हरिहर -पुणे ह्या मार्गाचेर अर्सिकेरी स्थानकासावन ६७ किमी., म्हैसूरसावन १०० किमी. आनी हसनच्यान ५०किमी अंतराचेर ही सुवात आसा. श्रमण म्हळयार जैन संन्यासी, श्रमणाचेंच फुडाराक श्रवण अशें रूप घडलें आनी बेळगोळ म्हळयार धवें कुंड. ह्या गांवांत मदीं एक तळें आसा. तेंच श्वेत कुंड. हांगा श्रमण येवन रावताले म्हूण हे सुवातेक श्रवण बेळगोळ अशें नांव मेळळें. मौर्य सम्राट चंद्रगुप्त हो आपले जिणेचे अरवेरेक आपलो गुरू भद्रबाहू हाचे वांगडा हांगा येवन राविल्लो. विंध्यगिरी वा इंद्रगिरी आनी चंद्रगिरी ह्या दोन



दोंगरांच्या मदीं हो गांव वसला. हांगा बाहुबली गोमटेश्वराची व्हड मूर्त आसा म्हूण हे सुवातेक गोम्मट तीर्थ अशेंय म्हण्टात.

हांगासल्ले इंद्रगिरी नांवांचे ४७० फूट ऊंच तेंगशेचेर गोमटेश्वराची ५७ फूट उंचायेची एकसंघ व्हड म्हूर्त आसा. थळावे लोक हे तेंगशेक दोड्डुबेट्ट (व्हड दोंगुल्ली) अशें म्हण्टात. दोंगुल्लेचेर चडून वचपाक सुमार ५०० सोपणा तयार केल्यांत. दोंगुल्लेचेर चडटना पयलीं पार्श्वनाथाचें देवूळ लागता. दोंगुल्लेच्या माथ्यार एक व्हड तट आसून तातूंत कांय देवळां आसात. २४ तीर्थंकारांची चेन्नण्ण वसती, ओदेगल वसती, सिध्देर वसती, त्यागद ब्रह्मदेव स्तंभ आदी तांचीं नावां आसात. बाहुबली आनी ताचो भाव भरत हांचींय ल्हान देवळां हांगा आसात. ब्रह्मदेव स्तंभ नांवाच्या देवळांत ब्रह्माची आनी गुळकायज्जी नांवांचे बायलेची ५ फूट उंचायेची कलात्मक म्हूर्त आसा. हिचेसंबंदान एक आख्यायिका प्रसिद्द आसा, ती अशी -

चामुंडरायान गोमटेश्वराची म्हूर्त तयार करून घेतले उपरांत तिचेर अभिशेक करपाचे थारायलें. अभिशेकाच्या वेळार शेंकड्यांनी कळसुले दूद मूर्तीच्या माथ्यार ओतलें, पूण तें मूर्तीच्या फकत मांडयामेरेनच पावलें. पुराय मूर्त कितेंय केलें म्हूण दूदान मारवून वचना. शेवटाक थंय एक गरीब म्हातारी आयली. तिणें अभिशेकाखातीर गुळ्ळकायी नांवांचें एक फळ पोखरून तातूंत इल्लें दूद हाडिल्लें. तें दूद मूर्तीचेर घालतकच पुराय मूर्त दुदान न्हांवन गेली आनी त्या दुदाचो व्हाळ दोंगुल्लेवयल्यान सकयल व्हांवपाक लागलो. आपणें येदी व्हड मूर्त तयार केली, हाचो चामुंडरायाक गर्व जाल्लो, तो ना करपाखातीर पद्मावतीदेवीन हे म्हातारेचें रूप घेतिल्लें, अशें सांगतात.

गोमटेश्वराची मूर्त पुराय नागडी आसून, उत्तर दिकेक तिचें मुखामळ आसा. तिचीं भुजां व्हड आसून दोनूय हात सरळ सकयल सोडिल्ले आसात. हातांचीं बोटां मेकळीं आसात. मूर्तीच्या आकाराच्या मानान तिचो धोंपरासावन सकयलो भाग मोटवो आनी जाडो आसा. तिचो मांडयांमेरेनचो भाग फाटले वटेनच्या फातरार तेंकील्लो आसा. वयलो भाग मात आदाराविण आसा. धोंपरांमेरेन दोनय वटेन दोन ल्हान फातराचे उंचवटे आसात. ते सोरपाचे रोयणीसारके दिसतात. पांयांमदल्यान भुजांमेरेन मांडयांक आनी हातांक वेश्टावन माधवी वेल वयर गेल्ली आसा. मूर्त धव्याच रंगाची, गुळगुळीत आनी खूब व्हड आसा. तिच्या मुखामळार मुमुरखो हांसो फांकिल्लो दिसता.

गंग वंशाचो राजा रायमल्ल वा राजमल्ल हांचो मंत्री चामुंडराय हाणें ९८३ वा १०२८ त ही मूर्त उबी केली. मूर्तीच्या पांयांकडेन 'श्री चावुंडराये करवियले' आनी 'गंगासुत्ताले करवियले' हीं उतरां नागरी लिपयेंत कोंरातिल्लीं आसात.

मूर्त व्हड आशिल्ल्यान तिची पुराय पुजा दर दिसा करप शक्य जायना, म्हूण दर दिसा तिच्या पावलांची पुजा करतात. तशी तीं पावलाय बरींच व्हड आसात. दर एका पावलाची लांबाय आठ फूट

तीन इंच आसा. दर पंदरा वर्सांउपरांत मूर्तीक मस्तकाभिशेक करतात. त्यावेळार भांगरा - रुप्याचीं फुलां आनी नाणीं हांचो मूर्तीचेर पावस घालतात. हो उत्सव पळोवपाक हजारांनी भाविक थंय जमतात.

विंध्यगिरीचे फुडें चंद्रगिरी दोंगुल्ली आसा. ही दोंगुल्ली १७५ फूट उंचायेची आसून तिका चिक्क बेट (ल्हान दोंगल्ली) अशें म्हण्टात. दोंगुल्लेचेर चडपारवातीर सोपणां नात. दोंगुल्ली चडटना पयले सुवातेर भद्रबाहूची व्होंवरी लागता. तातूंत ताच्या पावलांचीं चिन्नां आसात. दोंगुल्लेच्या माथ्यार तटबंदी आसून तातूंत कुगे ब्रह्मदेवस्तंभ, मानस्तंभ, कत्तले वसती, चंद्रगुप्त वसती, शासन वसती, शांतीनाथ वसती, आदी देवळां आसात. शांतीनाथ वसतींतली शांतीनाथाची म्हूर्त काळया फातराची आसून ती इकरा फूट उंच आसा. सगळया देवळांचीं बांदकामां तोरखणाय करपासारकीं आसात.

ह्या दोन दोंगुल्ल्यांप्रमाण श्रवण बेळगोळ गांवांतय बरींच पळोवपासारकीं देवळां आसात. तातुंतली भंडारी वसती, अक्कन वसती, दानशाले वसती, कलामंदीर, नगरजिनालय, मंगाई वसती, जैन मठ आदी देवळां चड म्हत्वाचीं आसात. भंडारी वसती हें सगळयांत व्हड देवूळ आसून ताच्या सभामंटपांत एकाच वेळार हजार मनशां बसूंक शकतात. ताकालागून हाका चतुर्विंशतितीर्थंकर वसती अशेंय म्हण्टात. ह्या देवळाचें पारवें व्हड लांबी - रुंदीच्या फातराच्या फळयांसावन तयार केलां. हे दोंगुल्लेचेर खूब पुर्विल्ले फातरपेटय आसात.

- कों. वि. सं मं.

पूरक नोद : बाहुबली

**श्राध्द** : पितरांक तृप्त करपाचो एक विधी. श्राध्द शब्द श्रध्दा ह्या शब्दावयल्यान तयार जाला. 'श्रध्दया दीयते यस्मा तस्माच्छ्राध्दां निगद्यते।'. श्रध्देन जें दिवप जाता ताका श्राध्द म्हण्टात. ब्रह्मपुराणांत श्राध्दाची कल्पना दिवपी एक श्लोक आसा. तो असो -

देशे काले च पात्रे च श्रध्दया विधीना च यत् ।
पितृबुदिश्य विप्रेभ्यो दत्तं श्राध्दमुदाहृतम् ।।

**अर्थ** - देश, काल आनी योग्यता हांचो विचार करून श्रध्देन आनी विधीन पितरांक उद्देशून ब्राह्मणांक जें (जेवो बी) दितात ताका श्राध्द म्हण्टात.

श्राध्दान जें फळ मेळटा ह्या संबंदान स्मृतिचंद्रिकेंत एक श्लोक आसा -

आयु : पुत्रान् यश : स्वर्गं कीर्तिं पुष्टिं बलं श्रिय :।
पशून् सौख्यं धनं धान्यं प्राप्नुयात् पितृपूजनात् ।।

**अर्थ** - आयुश्य, पूत, यश, स्वर्ग, कीर्ती, पुष्टि, बल, लक्ष्मी, पशू, सूख, धन, धान्य आदी पितरांच्या पुजनान मेळटा.

श्राध्दाची प्रथा खूब पोरनी आसा. आपले फुडले पिळगेचें बरें - वायट करपाचें बळगें पितरांकडेन आसा हे कल्पनेंतल्यान श्राध्दाची सुरवात जाल्ली आसा. भारतांतल्या सगळया जातीं - जमातींत ही कल्पना प्रचलित आसा. ताकालागून श्राध्द हो विधी ते करतात.

श्राध्दावेळार एकाद्रो सोयरो, योगी, संन्यासी आदी आयलो जाल्यार ताका जेवण दिवचें. ताका लागून पितरां खूब संतूश्ट जातात अशें मार्कंडेय पुराणांत म्हळां.

मत्स्यपुराणांत श्राध्दासंबंदान एक प्रश्न उपस्थित केला तो म्हणजे ब्राह्मणान खाल्लें वा होमाच्या अग्नींत अर्पण केल्लें अन्न, द्रव्य मृताम्यांक कशें मेळटा ? कारण मेल्या उपरांत ते आत्मे पुनर्जल्म घेवन दुसरे कुडीचो आलाशिरो घेतात. ह्या प्रश्नाची जाप थंयच दिल्ली आसा. ती म्हणजे - वसू, रुद्र आनी आदित्य ह्या पितृदेवतांच्या माध्यमान तें अन्न, द्रव्य पितरांक पावता वा त्या वस्तुंचें अमृत, तण, हवा आदी रुपांत परिवर्तन जावन तें पुनर्जल्मांत वेगळे कुडींत आशिल्ल्या पितरांक मेळटा.

पार्वण, एकोद्दिष्ट, नांदी आनी सपिंडीकरण अशे श्राध्दाचे मुखेल चार भेद आसात. पार्वण श्राध्दाचेय आमश्राध्द, हिरण्यश्राध्द, चटश्राध्द अशे प्रकार आसात. तेभायर नित्य, नैमित्तिक आदी रुपान जायते भेद आसात.

श्राध्दांत आचमन, प्राणायाम, संकल्प, यवोदक, तिलोदक, प्रायश्चित्त सूक्त जप, ब्रह्मदंड, क्षण, पाद्य, अर्घ्य, वस्त्रादिउपचार, पाणिहोम, अन्ननिवेदन, मध्वर्पण, ब्राह्मार्पण सारकिल्ल्यो गजाली येतात. प्रतिसांव त्सरिक श्राध्दांत पितरांक दुसऱ्या दिसा तिलतर्पण करपाचें आसा. पूण अपकर्ष करून श्राध्दाच्याच दिसा करपाची प्रथा पडल्या.

श्राध्द करतल्यान आनी श्राध्दाचें जेवण घेतल्यान कांय विधिनिषेद पाळपाचे आसतात. कर्त्यान धवें वस्त्र न्हेंसपाक जाय. तशेंच पिंडदाना उपरांत चंदनाचो तिबो लावपाक जाय. श्राध्दांत जेवण घेतल्यान प्रायश्चित म्हणून प्राणायाम, गायत्रीमंत्र जप, चांद्रायण, उपास आदी करूंक जाय. दोगांनीय स्त्रीसंग, परतें जेवप, फट उलोवप, द्यूत, हिंसा, प्रवास, झगडीं करपाक जायना.

- डॉ. अनंत राम भट

पूरक नोंद : भरणी श्राध्द

**श्रावण** : हिंदू कालगणनेंतलो पांचवो म्हयनो. ह्या म्हयन्याचे पुनवेक वा ताच्या लागसार श्रवण नक्षत्र आसता. ताचेवयल्यान ह्या म्हयन्याक श्रावण अशें नांव मेळळां. ह्या म्हयन्यांतल्या सगळयाच दिसांनी कसलें ना कसलें तरी देवकृत्य आसता. दर सोमारा महादेवाचो उपास करून व्रत करतात. मंगळारा नव्योच लग्न जाल्ल्यो व्हंकलो मंगळागौरीची पुजा करतात आनी गुरूचरित्राचो पाठ वाचतात. शुक्रारा बायलो पुजा करतात आनी पुरणपोळी करून सवाशीणीक जेवण दितात. सांजे बायलांक हळद - कुंकूम लावन दूद आनी चणे दितात.

शेनवारा एकाद्र्या मुंज्या भुरग्याक घरा आपोवन तेल लावन न्हाणयतात आनी ताका जेवण दितात. शेनवाराचें, शनीक तेल दितात आनी ताचेखातीर नाल्ल फोडटात. खूब जाण उपास करतात. आयतारची सूर्याची पुजा करतात आनी ताका खिरीचो निवेद्य दाखयतात.

श्रावण म्हयन्यांत खूब सण - परबो येतात. शुध्द पंचमीक नागपंचम येता. नागपंचमीक नागाची पुजा करतात. पुनवेक 'नारळी पौर्णिमा' अशें म्हणटात. त्या दिसा दर्यादिगेर रावपी लोक वरूण देवतेखातीर दर्याची पुजा करून ताका नाल्ल अर्पण करतात. ह्याच दिसा भयण भावाच्या हातांत राखी बांदता. ताचेवयल्यान हे पुनवेक 'राखी पौर्णिमा' वा 'रक्षा बंधन' अशेंय म्हण्टात. हे पुनवेक 'सुता पुनव' अशेंय म्हणटात, कारण ह्या दिसा सुताची 'पोवती' (दोरो) करून ती विष्णु, शिव, सूर्य ह्या देवतांक अर्पण करतात. कुटुंबांतलीं सगळीं जाणां ती सुताची पोवती (दोरो) हाताक बांदतात वा जानव्याभशेन गळयांत घालतात. म्हाराष्ट्रांत हाका 'पोवती पौर्णिमा' अशें म्हण्टात. ह्याच दिसा श्रवण नक्षत्र आसल्यार ब्राह्मण पुरूस उपाकर्म करून नवें जानवें घालता. ह्या विधीक श्रावणी अशें नांव आसा. श्रावण वद्य अष्टमीक श्रीकृष्ण जल्माष्टमी अशें म्हण्टात. कारण ह्या दिसा श्रीकृष्णाचो जल्म जालो. ह्या दिसा भाविक दादले - बायलो उपास करतात आनी कृष्णजल्म मनयतात. ह्या म्हयन्याचे उमाशेक 'पिठोरी उमास' अशें नांव आसा. संततीचे प्राप्तीखातीर सौभाग्यवती बायलो पिठोरी व्रत करतात. ह्याच दिसांनी कांय सुवातींनी शेतकामती लोक 'पोळो' नांवाचो सण मनयतात. हो सण बैलांचो आशिल्ल्यान बैलांक शृंगारून तांची मिरवणूक काडटात.

उत्तर भारतांत ह्या म्हयन्यांत झुलन यात्रा, रक्षा - बंधन, जल्माष्टम, नंदोत्सव हे उत्सव विशेश म्हत्वाचे जावन आसात. झुलन यात्रा हो 'दोलोत्सव' आसा. पुनवे दिसा राधा आनी कृष्ण हांकां झोपाळयाचेर बसोवन झोके दितात आनी बायलां तांच्याविशीं पदां गायतात. हो उत्सव एकादशीसावन पुनवेमेरेन चलता. वाजपां - गीतां गावन घराघरांनी हो उत्सव मनयतात. त्याच दिसांनी राधा - कृष्णाची पुजा करतात आनी ब्राह्मण सवाशिणीक जेवण दितात. कृष्णचरित्राचेर आदारून कांय नाटकांय करतात. कृष्णजल्माच्या दुसऱ्या दिसा नंदोत्सव करतात. नंदाक पूत जालो हे समजुतीन पदां, नाच, नाटकां करून हो उत्सव व्हडा दबाज्यान मनयतात. तेचप्रमाण हळद - कुकूम घाल्लें उदक पिचकारी मारून आंगार उडयतात.

श्रावण हो चातुर्मासांतलो श्रेश्ठ म्हयनो मानतात. देखून कितलेशेच गिरेस्त लोक प्रतिपदेपसून उमाशेमेरेन ब्राह्मणांक आनी गरीब लोकांक जेवण दितात. देवळांनी ह्या म्हयन्यांत कथापुराणाच्यो कार्यावळी दवरतात.

ह्या म्हयन्यांत पावसाकलागून सगळी सृश्ट पांचवीचार जाता. ह्याच म्हयन्यांत जायो - जुयो, पारजत, सोनचाफो ह्या फुलांच्या घमघमाटान सगळयाक परमळ फांकता.

गोंयांत श्री सप्तकोटेश्वर देवस्थान, नार्वें हांगा श्रावण वद्य अष्टमीक गोकुळाष्टमी दिसा व्हडली महायात्रा भरता.

श्रावणांत श्री महालक्ष्मी देवस्थान, पणजी हांगा नागपंचमीसावन सात दीस भजनी सप्ताह मनयतात आनी वास्कोच्या दामोदर देवस्थानांत दिंडी भजनाचो उत्सव चलता.

- कों. वि. सं. मं.

**श्री - (१) :** लक्ष्मीचें पुर्विल्लें रूप. सद्याक श्री आनी लक्ष्मी हीं एकमेकांचीं पर्यायी उतरां जाल्यांत. पूण इतिहासाचेर नदर मारली जाल्यार श्री ही पुर्विल्ली आसून लक्ष्मी ही तिच्या मानान आर्विल्ली जावन आसा, अशें दिसता. वैदिक साहित्यांत श्री हें उतर सोबीतकाय, सरुपाय आनी सजावट ह्या अर्थांनी भरील्लें आसा. जें जें सोबीत, कांतीमान आनी मंगल आसता तें तें श्रीर (श्लील) ह्या उतरान उक्तायल्लें आसता. पुर्विल्ल्या काळांत श्रीक मूर्त नाशिल्ली. फुडाराक तिका मूर्त रूप येवक लागलें. शतपथ ब्राह्मणांत हे विशीं एक कथा आसा, ती अशी -

प्रजापती तप करतालो. ते तपश्चर्येच्या बळग्यार ताच्या काळजांतल्यान श्री ही देवता दैदीप्यमान अशा बायलेच्या रुपान भायर आयली आनी ताचे फुडें उबी रावली.

हाचो अर्थ असो - वैदिक मनशाच्या मनांत भावरुपान राबितो करपी श्रीन प्रजापतीच्या काळांत देवीचें रूप धारण केलें.

ह्या देशांतली दुसरी एक अवैदिक अशी संस्कृती म्हळयार सिंधुसंस्कृती. त्या लोकांत मातृपुजा चालंत आशिल्ली. संस्कृतिसंगमाचे प्रक्रियेंत खंयच्यातरी काळांत श्री आनी माता ह्यो दोनय देवता एकरूप जाल्यात आसुंये. ऋग्वेदांत श्रीचो लक्ष्मीकडेन संबंद सापडना. तैत्तिरीय संहितेंत विष्णुची बायल ह्या नात्यान लक्ष्मीच्याबदला अदितीचें आवाहन केल्लें दिसून येता. अदिती ही पुराय रुपान श्री न्हय; पूण अदितीचे कांय गूण उपरांतच्या काळान श्रीन उरवल्ल्यात आनी फुडाराक हीच श्री लक्ष्मीच्या रुपान समाविश्ट जाल्या. लक्ष्मी श्रीरसागरांतल्यान वयर येतकच ऋषींनी श्री सुक्तान तिचें स्तवन केलां. ह्या पुराणांतलें वर्णन, श्री ही लक्ष्मी रुपांत विरून गेल्याचेंच निदर्शक मानतात.

श्रीच्यो कांय पुर्विल्ल्यो मूर्ती विष्णु वांगडा वा स्वतंत्रपणान मेळटात. हें श्रीशिल्प वैदिक आनी बौध्द वाङ्मयाच्या आदारान विकसीत जाल्लें आसा. मत्स्यपुराणांत हिची मूर्त कशी आसची हे संबंदान जें विवेचन केलां तें, अशें -

हिची कांत लक्ष भांगरासारकी आसची ही पद्मासनार बशिल्ली आसून तिच्या दोनय हातांनी श्रीफळ आनी साळीक आसचें, तिचें मुखामळ वाटकुळें, ओंठ तांबडे आनी तिणें केंसांचो मागो काडिल्लो आसचो. तिणें धवें वस्त्र न्हेशिल्लें आसून तिच्या दोनय वटांनी

भांगराच्या आयदनांतल्यान तिका न्हाण घालपी दोन हत्ती आसचे. तशेंच तिचें गुणगान गावपी गंधर्व आनी गुह्यकय आसचे.

मथुरा हांगासल्ल्या फातरपट्यार श्री मूर्त आसून, तिचेर नागाची फणा आसा. महाबलीपुरची मूर्त भद्रासनांत कमळार बशिल्ली आसा. तिच्या दोनय वटांनी दोन सेविका आसात. अमरावती (आंध्र प्रदेश) हांगाय ही पुर्विल्ली मूर्त आसा. हाचेभायर दोन श्रीमूर्ती तिबेटांत आसात. तातुंतली एक खेंचरार तर दुसरी मनशाचेर बशिल्ली आसा.

श्री - (२) : सांजेवेळार गावपाचो एक राग. ह्या रागांत रे आनी ध कोमल, मध्यम तीव्र आनी हेर स्वर शुध्द लागतात. आरोहांत 'ग' नासता. जाती - षाडव संपूर्ण; वादी - रे; संवादी - प; ग रे सा. आरोह - सा रे म् प् ध् प, म् ध् पनिसा. अवरोह - रे मि ध् प, ध् म् प, म् रे, रे, ग रे, सा.

श्री रागाची प्रकृती गंभीर आसा. वैराग्य भावनेची खुलावट ह्या रागान बरे रितीन जाता.

पुर्विल्ल्या संगीत शास्त्रज्ञाच्या मताप्रमाण स स्वतंत्र रागांमदलो श्री हो एक राग आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**श्रीचक्र :** त्रिपुरसुंदरीचे पुजोपासनेखातीर भोव उपकारी आनी फळ दिवपी अशें हें चक्र. हाका श्रीयंत्र अशेंय म्हण्टात. हें सगळया चक्रांमदीं श्रेश्ठ मानतात. हाची रचणूक अशी -

चतुर्भि : श्रीकण्ठै : शिवयुवतिभि : पञ्चभिरपि
प्रभिन्नाभि : शम्भोर्नवभिरपि मूलप्रकृति भि : ।।
त्रयश्च त्वारिंशब्द सुदलकला ब्जत्रिवलाय
त्रिरेश्वाभि : सार्ध तव भवनकोणा : परिणतः ।।

(सौंदर्यलहरी -११)

**अर्थ** - चार शिवरुपी उर्ध्वशीर्श त्रिकोन, पांच शक्तीरूप अधः शीर्श त्रिकोन, सगळया मध्यबिंदूसावन पृथक् अशें मूळ प्रकृतीरुपी णव त्रिकोन, अशे सगळे मेळून त्रेचाळीस त्रिकोन, ताचेभायर आठदला, ताचो भायर सोळादलां, ताचे भायर तीनवलयां आनी ताचेभायर भूपुर म्हळयार तीन रेशांचो चौकोन मेळून हें श्रीचक्र जाता.

१) बिंदुचक्र : मदीं बिंदू तो व्यक्ताव्यक्त संवसाराचें आदिकारण, अनादी, नित्य, स्वयंप्रकाश तो अव्यक्त आसलो तरी योग्यांक ताचो दर एके वस्तू यात्रांमदीं अणभव येता. श्री विद्यादर्शनांत हाका शिव म्हण्टात. ह्या बिंदूचें नांव सर्वानंदमय चक्र. शिवशक्त ही ताची अधिशठात्री देवता.



२) त्रिकोनचक्र : बिंदूचे लागसरलें भायलें चक्र. बिंदू चक्राचोच तो त्रिकोनात्मक विस्तार. त्रिकोन म्हळयार एका बिंदूसावन आयिल्लें बिंदूत्रय (तीन बिंदू). ह्या चार बिंदूनी शिवशक्तीचें काम, कला, ध्यान सिध्द जाता. पयलो बिंदू म्हळयार तोंड. दोनय कडेचे बिंदू म्हळयार थानां. चवथो सकलो बिंदू म्हळयार गुह्यस्थान. तें सर्जनशक्तीचे द्योतक. ह्या त्रिकोनचक्राचें नांव सर्वसिध्दिप्रत चक्र.

३) अष्टार : आठ कोनांचे चक्र. हाची स्वामिनी त्रिपुरसिध्दा. हें सगळे रोगहर चक्र. संवसारातलें पुराय गिन्यान ह्याच चक्रांतल्यान उत्पन्न जाता.

४) अंतर्दशार : हें, अष्टचक्राच्या भायर धा कोनांचें मेळून जाता. हें सगळे रक्षाकर चक्र. त्रिषुरमालिनी ही हाची देवता. हागेलें काम संवसाराचे तशेंच कुडीचे भितर चालू आसता. अन्नरसाचेर हाचेंच प्रभुत्व आसता.

५) बहिर्दशार : धा त्रिकोनयुक्त चक्र. हें सर्वार्थसाधक. त्रिपुरा श्री ही हाची देवता.

६) चतुर्दशार : चवदा त्रिकोनांचें चक्र. हें सर्वसौभाग्यदायक. त्रिपुरवासिनी ही हाची देवता.

७) अष्टदल : आठ पाकळयांचें चक्र. हें सर्वसंक्षोभण. त्रिपुरसुंदरी ही हाची देवता. आठ रहस्यमय योगिनी मुखेल देवतेच्या नियंत्रणाखाल हें चक्र संवसाराचें संचलन, वस्तुंचे उत्सर्जन, परिणाम आदी कामां करता.

८) षोडशदल : सोळा पाकळयांचें चक्र. हें सर्वाशापरिपूरक. त्रिपुरेश्वरी ही हाची स्वामिनी. हाचे दर एका पाकळेर एक एक योगिनी आसा. महाभूता, ज्ञानेंद्रियां, कर्मेंद्रियां आनी मनातले विकार हांचेर हे योगिनीचो शेक चलता.

९) त्रिवलय : वयल्या सगळया चाकांक घेरून राविल्लीं तीन रेशांचीं वलयां. हाका मेखलात्रय अशें म्हण्टात. हें चक्र त्रिगुण दाखयता.

१०) भूपुर : त्रिवलयाउपरांत सगळें चक्र गुठलावन आसपी तीन रेशांचो व्हड चवकोन (चतुष्कोण). हाका चार दिकांक चार दारां आसतात. हें त्रैलोक्य मोहन चक्र. त्रिपुरसुंदरी ही हाची देवता. हें चक्र म्हळयार त्रिपुरसुंदरीच्या कोटाचो न भेदपासारको तट.

हातुंतल्या दर एका चक्राच्या देवतांच्यो सुवाती, माहात्म्यां, पुजेचो क्रम आदी गजाली दीक्षा घेवपा वेळार तज्ञ गुरूकडल्यान समजून घेवंक जाय, जाल्यारच श्रीचक्र फळ दिवपी थरता.

श्रीचक्रांत २४ संधी आनी २८ मर्मां आसतात. तांची व्याख्या अशी -

द्विरेखासङ्गमस्थान सन्धिरित्यमिधीयते ।
त्रिरेखा सङ्गमस्थानं मर्म मर्मविदो विदु : ।।

**अर्थ** - दोन रेशांचो जय संगम जाता, ताका संधी म्हण्टात आनी तीन

रेशांची जय संगम जाता, ताका मर्म म्हण्टात.

श्रीचक्राचे अश्टदलांत आनी षोडशदलांत केसर काडपाचें नासता, काडल्यार भैरव आपले योगिनीसकट कार्याचो नाश करता. (भूर्त - भैरव तंत्र).

श्रीचक्राचे सगळे १८ प्रस्तार जातात. तातूंत फकत णव त्रिकोनांच्यो रेशा कमी - जास्त, लांब - रूंद जातात. तांचो भायलो आकार कायम उरता. तंत्रलोक आनी तंत्रसार ह्या ग्रंथांत श्रीचक्राचें खोलायेन वर्णन केलां.

प्रासंगिक पुजेखातीर दुदांत केशर घोळोवन ताणें भूंयचेर श्रीचक्र रेखचें. सासणाचें वा नित्याचे पुजेखातीर धातुच्या कुडक्यार तें कोरातचें. भांगराच्या पत्र्यावयले श्रीचक्र जीणभर काम दिता. रुप्यावयलें ३२ वर्सां, तांब्यावयलें १२ वर्सां आनी भूर्जपत्र्यावयलें ६ वर्सां फळदायी जाता. श्रीचक्र लोहत्रयाच्या पत्र्याचेरय कोरांतून घेतात. धा वांटे भांगर, सोळा वांटे रुपें, आनी बारा वांटे तांबें मेळून लोहत्रलय जाता. पोवळें, पद्मराग, इंद्रनीळ, वैदूर्य, स्फटिक आनी मरकत ह्या रत्नांचेरय श्रीचक्र कोरांततात. तें अश्टसिध्दीप्रद थरता. श्रीचक्राची पुजा करचेंपयलीं ताची प्राणप्ररिक्षा करची. पुजा भायल्यान भीतर ह्या प्रमाणे करची. चक्रपूजेत उपचार समर्पणाचे णव मंत्र आसात. विंगड विंगड फळांखातीर विंगड विंगड मंत्रांचो उपेग करपाचो आसता. तातुंतलो पयलो मंत्र असो -

ऐं ऱ्ही श्री त्रैलोक्यमोहन चक्राधिष्ठत्र्यै प्रकट योगिनी सहितायै श्री त्रिपुरचक्रेश्वर्ये नमः । पूजयामि ।।

त्रिपुरसुंदरीची पुजा मूर्तेर न करता श्रीचक्राचेरच करपाची रीत आसा. 'श्रीचक्रं शिवयोर्वपुः' श्रीचक्र हें शिवशक्तींची कूडच आसा अशें म्हळां. श्री चक्राचे पुजेइतलेंच ताच्या दर्शनाचेंय फळ आसा -

सम्यक् शतऋतून् कृत्वा यत्फलं समवाप्नुयात् ।
तत्फलं लभते भक्त्या कृत्वा श्रीचक्रदर्शनम् ।।

(तंत्रसार)

**अर्थ** - बरे तरेन शंबर यज्ञ करून जें फळ मेळटा, तें फळ भक्तीन श्रीचक्राचें दर्शन घेतल्यारय प्राप्त जाता.

भारतांत फातरावयली वा धातुवयली श्रीचक्रं जायत्या देवळांनी दिसतात. कोल्हापूरच्या जगदंबेच्या देवळांत शिळेवयलें श्रीचक्र आसा. आद्य शंकराचार्याच्या मठांतय श्रीचक्राची स्थापणूक केल्ली आसता. आद्य शंकराचार्य हो त्रिपुरसुंदरीचो उपासक आशिल्लो.

श्रीचक्राचेर उदकान भरील्ले कलश आनी तातूंत विंगड विंगड रत्नां आनी द्रव्यां घालून दवरिल्लीं आसतात. तातूंत देवतेचें प्रकटीकरण जाता, अशी ताचे फाटली कल्पना आसा. श्रीचक्राची सकाम आनी निश्काम अशी दोनय तरांनी पुजा करतात. श्रीचक्र हुलपलें, लासलें, जळळें, ताचेवयल्यो रेशा पुसल्यो वा ताचो कपचो गेलो तर तें गंगेंत विसर्जीत करचें. त्यावेळार श्रीविद्यामंत्राचो एक लाख जप, होम, तर्पण, गुरूपुजा आनी ब्राह्मणाक जेवण दिवप ह्यो गजाली करच्यो आनी मागीर परत नवें श्रीचक्र तयार करून घेवचें अशें शास्त्रांत सांगलां.

श्रीचक्र आनी श्रीविद्या ह्यो एकरूपच आसात. श्रीचक्र हो संवसाराचो नकासो आसा आनी श्रीविद्या ही तातुंतली गतीमान अशी चैतन्यशक्त आसा. अणूपरमाणू पसून अनंत विश्व हातुंतल्यो घडामोडी हेच चैतन्यशक्तीन चलतात. हेच चैतन्यशक्ती पसून अणूक गती मेळटा आनी हीच शक्त अनंत विश्वांत गतीच्या रुपांत भरून राविल्ली आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**श्रीधरस्वामी** : (जल्म : इ. स. १९०८ चिंचोळी, गाणगापूर; मरण : इ. स. १९७३).

रामदासी संप्रदायांतलो एक सिध्द पुरूस. ताच्या बापायचें नांव नारायण राव देगलूरकर पतकी आनी आवयचें नांव कमलाबाई. श्रीधरस्वामीच्या जल्माविशीं एक आख्यायिका आसा ती अशी - देगलूरकरांच्या घराण्यांत कोणेंतरी, घराण्याचो राखणदार आशिल्ल्या नागसर्पाक फारान मारलो तेन्ना ताणें ब्राह्मणभेसांत सपनांत येवन त्या मनशाक सांगलें, आयजसावन तुमचें घराणें तिगचेंना, ताचो निर्वंश जातलो. तेन्ना त्या मनशान ब्राह्मणाक खूब विनवणी केली. तेन्ना त्या ब्राह्मणान सांगलें की ह्या कुळाचो उध्दार करपी बाल ब्रह्मचारी निर्माण जातलो. तो तुमच्या कुळाचो आनी जगाचो उध्दार करतलो पूण तुमचो वंश मात फुडें चलचोना. ह्या शापाचें परिमार्जन करपाखातीर नारायणराव आनी कमलाबाई हें दांपत्य गाणगापूराक दत्तात्रेयाचे सेवेखातीर वचून रावलें. थंय खर अनुश्ठान करतकच, साक्षात दत्तात्रेयान प्रसन्न जावन, तांकां श्रीफळाचो प्रसाद दिवन सांगलें, हें श्रीफळ खातकच तुमची इत्सा पुराय जातली. अशे तरेन दत्तात्रेयाच्या कृपाप्रसादान, दत्तजयंती दिसा श्रीधरस्वामीचो जल्म जालो. तो तीन वर्सांचो आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयलें आनी पिरायेच्या बारा - तेरा वर्सांचो आसतना आवयक मरण आयलें. ल्हानपणासावन ताका कथा - कीर्तनां आयकुपाची गोडी. रामनामान हुकमी यश मेळटा असोय ताका अणभव आयलो. शाळेचो अभ्यास, देवपुजा, कथा - कीर्तनां आयकप, व्यायाम आनी खेळ हातूंत बालपण चलिल्लें आसतना मदींच आवयच्या मरणान हातूंत खंड पडलो. उपरांत हैदराबाद आनी गुलबर्गा हांगा सोयऱ्यांकडे रावन ताणें आपलें मुळावें शिकप पुराय केलें आनी माध्यमिक शिक्षणाखातीर तो पुण्याक गेलो. पूण इंग्लीश शिक्षणांत ताका अजिबात गोडी नाशिल्ली. श्रुतिस्मृतिपुराणांच्या चातुर्वण्याधिष्ठित समाजाचे उभारणेनच भारताक पयलींचें वैभव प्राप्त जातलें असो ताचो भावार्थ आशिल्लो. तेखातीर सनातन आर्य धर्माच्या प्रसाराखातीर आपलें जिवित ओंपचें अशें ताणें

थारायलें तेन्ना आध्यात्मिक क्षेत्रांत अधिकार मेळोवपारवातीर, एका दसऱ्या दिसा सज्जनगडाचेर वचपाचो ताणें निर्णय घेतलो. त्याच दिसा ताणें आपलें शरीर देवाक अर्पण केलें आनी एका कागदाचेर ताणें मजकूर बरयलो तो असो - 'हांव ब्रह्मचारी रावतलो. द्रव्याक आफुडचो ना. कोणेय आग्रहान दिल्यार तें दुसऱ्यांक दितलो. स्वंयच मठपती जावन रावचोना. साद्यो गरजो दवरतलो. दादलो - बायलेक एकेच नदरेन बोध करतलो. समस्त बायल समाजाक आवयभशेन मानतलो. तन मन धनान लोककल्याणाखातीर वावरून, धर्माची राखण करून जग सुखी करतलो. सगळो भार भगवंताचेर आसा. ताणें आपल्या ब्रीदाक उणीव येवंचीना अशे रीतीन ह्या शरण आयिल्ल्या भक्ताची राखण करची. हाचेफुडें ह्या शरीराकडल्यान जावपी बऱ्या - वायट कर्मांचो तोच जबाबदार आसा'. ह्या ताच्या लिखाणावयल्यान ताच्या उद्दिश्टाची कल्पना येता. उपरांत तो पुण्यालागसारच्या बनेश्वर हांगाच्या शंकराच्या देवळांत गेलो. थंय ताणें समर्थ रामदासस्वामीच्या छायाचित्राची पुजाप्रार्थना करून ताचेपसून अनुग्रह घेतलो आनी चलत दोन दिसांनी तो सज्जनगडाचेर पावलो.

सज्जनगडाचेर ताणें सेवेचें काम आपणायलें. हें काम करतना ताचें नामस्मरण चालू आसतालें. कांय काळ अशी निर्वेध सेवा केल्या उपरांत गडावयल्या कांय अधिकारी लोकांनी मत्सरान ताची सगळीं सेवा बंद केलीं तशेंच मठांत येवपाकय ताका बंदी केली. श्रीधरस्वामीक खूब दूख जालें. तेउपरांत साधनेखातीर ताका खूब वेळ मेळूंक लागलो. फांतोडेर चाराच्या अदमासाक खंबाळयाचेर न्हावन दनपारमेरेन तो जप करतालो. उपरांत परतून न्हावप आनी मारुतीमुखार अकरा भीमरुपी स्तोत्रां म्हणप आनी गांवांतल्यान माधुकरी मागून हाडप. ते माधुकरींतलो कांय वांटो गोरवांक आनी नुस्त्यांक घालून उरिल्लें अन्न स्वता खातालो. पूण हे माधुकरीविशीं कांय लोकांनी चाडी केली, ती म्हणजे ताका माधुकरी कित्याक घालतात ? तो सगळें अन्न गोरवांक आनी नुस्त्यांक घालता. ताकालागून श्रीधरस्वामीक एक दोन घांसच माधुकरी मेळूंक लागली. तितक्यान भूक भागना म्हूण ताणें कांय दीस घाणेऱ्यांच्या बियांचो आहार सुरू केलो. केन्नाकेन्नाय तो निवडुंगाचीं बोंडांय खावंक लागलो. अशें केल्ल्यान ताची प्रकृती इबाडली.

गडावयली कडकड्याची थंडी आनी आंगार फकत लंगोट. हाकालागून ताचें सगळें आंग फुट्टालें. तातूंत दिसाक तीन चार वेळां न्हाण. अशें केल्ल्यान ओले लंगोटेन श्रीधरस्वामी दीसभर गाभाऱ्यांत तपश्चर्येक बसतालो. ताका न्हीद अशी नाशिल्लीच. ताची न्हीद म्हळयार एके सुवातेर थंड बसून नामस्मरण करप. अशी खडतर तपश्चर्या करतकच रामदासस्वामीन ताका साक्षात दर्शन दिलें आनी दक्षिणेवटेन भोंवडी करपाक सांगली. तेप्रमाण १९३० वर्साचे दासनमीक श्रीधरस्वामी गडावयल्यान दक्षिणेकडे गेलो. गडाचेर तो सुमार सवायदोन वर्सां उरलो. इ. स. १९३० ते १९३५ अशीं पांच वर्सां कर्नाटकांत भोंवडी करून तो परतून पांच वर्सां सज्जनगडाचेर येवन रावलो. ह्या काळांत ताणें संस्कृत, मराठी, हिंदी आनी कन्नड ह्या भासांनी खूब ग्रंथ बरयले.

इ. स. १९४० वर्सा परतून कर्नाटकांत वचून, १९४३ वर्सा दसऱ्याक ताणें यतिधर्माची दीक्षा घेतली. उपरांत सनातन वैदिक धर्माच्या पुनरुध्दाराखातीर तो महाराष्ट्र आनी कर्नाटकांत भोंवक लागलो. श्रीधरस्वामी चडसो समाधिसुखांत आसतालो आनी त्या काळांत सगळयो सिध्दी ताच्या सांगतान रावताल्यो. हाचो अणभव ताचो सांगात लाबिल्ल्या लोकांक येवंक लागलो. हाकालागून ताच्या म्हऱ्यांत, आपलीं दुख्खां सांगपाक गर्दी जावंक लागली. आपलो परंपरेन चलत आयिल्लो कुलधर्म सोडपी व्यक्तीक प्रापंचिक सुखां आपोआप मेळनात अशें ताचें सांगणें आशिल्लें. हजारांनी लोक ताच्या दर्शनाक येवंक लागले. ताकालागून ताच्या दीसपट्ट्या आह्निकांत आनी त्रिकाल स्नानसंधेंत व्यत्यय येवंक लागलो. तेखातीर १९६० वर्सा परतून ताणें एकांतवास आपणावन कांय काळ सज्जनगडाचेर आनी कांय काळ कर्नाटकांत काडलो. इ. स. १९७२ वर्सा ताची ही मोनी तपस्या सोंपली आनी उपरांत ताणें भारतभर धर्मप्रसाराखातीर भोंवडी सुरू करपाची थारायली पूण अकस्मात ताका मरण आयलें.

श्रीधरस्वामीचो आर्य संस्कृती हो व्हड मराठी ग्रंथ आनी श्रीरामपाठ, श्रीसमर्थपाठ, श्रीमारुतिमाहात्म्य, श्रीदत्तकरुणार्णव आनी श्रीशिवशान्तस्तोत्रतिलम् हे संस्कृत ग्रंथ उजवाडा आयल्यात. हाचेशिवाय हजारांनी पानांची एक रचना अप्रकाशित उरल्या. श्रीधरस्वामीचे हजारांनी भक्त महाराष्ट्रांत आनी कर्नाटकांत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**श्रीनगर - १ :** जम्मू आनी काश्मीर राज्याची राजधानी. हें नगर हिमालयाचे कुशींत दर्याचे सपाटी सावन ५२५० फूट उंचायेर आसपी एका तळपार झेलमाचे देगेर वसलां. काश्मीरचो राजा प्रवरसेन (दुसरो) हाणें इ.स. च्या ६ व्या शेंकड्यांत प्रवर पूर नांवाचें नगर वसयल्लें ताकाच श्रीनगर म्हण्टात.

विक्रमांकदेवचरित आनी राजतरंगिणी ह्या ग्रंथांत प्रवर पुराचे जायते उल्लेख आसात. थंय जायते बौध्द मठ आनी शिवाचीं देवळांय आशिल्लीं.

ह्या नगरांत १000 फूट उंचायेची एक दोंगुल्ली आसून, ते दोंगुल्लेच्या माथ्यार एका खडपाचेर शिवाचें देवूळ आसा. त्या देवळाचो चवथरो वीस फूट ऊंच आसा. गर्भकूड मात ल्हान आसून, तातूंत ३०५ फूट उंचायेचें आनी २०५ फूट घेराचें स्वयंभू शिवलिंग आसा. हें आदलें देवूळ सन पयलीं ४थ्या शेंकड्यांत बांदलां. आदलो शंकराचार्य कांय दीस हांगा राविल्लो, म्हणून हे दोंगुल्लेक शंकराचार्य दोंगुल्ली अशें नांव दिवन शंकराचार्याची ल्हानशी मूर्त थंय बसयल्या.

हांगा दुसरी एक २५० फूट उंचायेची एक दोंगुल्ली आसा. तिका हारी दोंगुल्ली म्हण्टात. काश्मिरी भाशेंत हार म्हळ्यार मैना. पयलीं ह्या जाग्यार एक तळें आशिल्लें .तातूंत जलोद्भव नांवाचो राक्षस आशिल्लो. तो खूब मातिल्लो. म्हणून देवीन मैनेचें रूप घेवन आपले चोंचींन एक फातर उखल्लो आनी तो जलोद्भव राक्षसाच्या आंगार उडयलो. थंयच तो जमनींत भितर गेलो आनी वाडूंक लागलो. फुडें ताचो दोंगर जालो आनी ताच्या सकयल राक्षस चिड्डुलो. तो दोंगर म्हळ्यार हारी दोंगर. अकबर बादशहान थंय एक किल्लो बांदला. त्या किल्ल्यांत देवीचें देवूळ आसून, एक मशीद आनी एक गुरूद्वारय आसा.

श्रीनगरांत खूब सोबीत तळीं, बागो, देवळां, मशिदी आनी मकबरे आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**श्रीनगर- (२) :** उत्तर प्रदेशांतल्या गढवाल जिल्ह्यांत अलकनंदा न्हंयेचे देगेर वसयल्लें एक नगर. हें नगर गढवालचो शासक अजयपाल हाणें इ. स. १३७५ त निर्माण केलें आनी थंय राजधानी स्थापली.

ह्या श्रीनगराक एक सिध्दपीठ मानतात. देवीभागवतांत श्रीनगराचें खूब माहात्म्य वर्णिलां. हांगा अलकनंदेच्या पात्रांत एका फातरार श्रीचक्र कोरिल्लें आसा. ताचेवयल्यान हाका श्रीक्षेत्र अशें नांव मेळ्ळां.

हें नगर इकरा फावटी वसयलें, तितलेय फावटी नश्ट जालें अशें म्हण्टात. इ.स. १८९४ त न्हंयेच्या महापुरांत पुर्विल्लो राजवाडो आनी बाजारपेठ सगळें व्हांवून गेलें. सयाचें नगर त्या उपरांत परत वसयल्लें आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**श्रीपाद श्रीवल्लभ :** (जल्म : इ. स. चो १४ वो शेंकडो, पीठापुरम, तमिळनाडू, जि. गोदावरी).

दत्त संप्रदायांतलो एक म्हापुरूस. हाका दत्तात्रेयाचो पयलो अवतार आनी नरसिंह सरस्वतीचो पूर्वावतार मानतात. गुरूचरित्राच्या पांच ते धा ह्या अध्यायांनी हाची अवतारकथा वर्णिल्या ती अशी - श्रीपाद श्रीवल्लभाचो पीठापुरी हांगा जल्म जालो. हें पीठापुरी तमिळनाडूच्या गोदावरी जिल्ह्यांतल्या पीठापूर तहशिलाचें मुखेल ठिकाण आसून राजमहेंद्रीचे उत्तरेक गोदावरीच्या मुखप्रदेशा लागसार आसा. सद्या हें स्थान पीठापुरम ह्या नांवान वळखतात.

श्रीपादाच्या बापायचें नांव आपळराज आनी आवयचें नांव सुमता. आपळराज हो आपस्तंब शाखेचो ब्राह्मण आशिल्लो. एक फावट, तागेर उमाशे दिसा श्राध्द आसतना दत्तात्रेय अवधूताच्या रुपान दारांत आयलो आनी सुमतेन ब्राह्मण जेवंचेपयलीं ताका भिक्षा घातली. दत्तात्रेयान प्रसन्न जावन तिका तिच्या मनांतली इत्सा विचारली. तेन्ना नमस्कार करून सुमतेन ताका सांगलें, आपणागेर खूब पूत जाले पूण ते सगळेच जगलेना. जे वांचले ते कुड्डे, पांगळे आसात. तेन्ना आतां आपल्याक ज्ञानी आनी जगद्वंद्य असो पूत मेळचो. तिची ही प्रार्थना अवधूतान मान्य केली आनी तापसी वंशाचो उध्दार करपी, कलियुगांत नामना जोडपी, दैन्य पयसावपी तसोच ज्ञानमार्गान अतुर्बळी असो पूत जातलो असो वर दिवन अदृश्य जालो.

तेप्रमाण सुमतेक पूत जालो. ब्राह्मणांनी ताचें जातक सांगलें की तो एक म्हान तपस्वी आनी दीक्षाकर्तो जगद्गुरू जातलो. दत्तात्रेयाच्या आशिर्वादान जल्म जालो म्हूण ताचें नांव श्रीपाद दवरलें. पिरायेच्या सातव्या वर्सा वेदाध्ययन पुराय जायनाफुडें बापायन ताची मूज बांदली. सोळावें वर्स लागनाफुडें आवय - बापूय ताच्या लग्नाचो विचार करूंक लागलो. पूण ताणें लग्नाक सामको न्हयकार दिलो आनी घर सोडपाचो विचार केलो. आवय -बापायकडे उत्तरयात्रेक वचपाखातीर अनुज्ञा मागली. तांकां खूब दूख्ख जालें. आवयन ताका सांगलें. 'आमीं तुजेरूच आदारून आशिल्लीं. आता म्हातारपणांत आमीं कोणाच्या आदाराचेर दीस काडपाचे? हे तुजे पांगळे आनी कुड्डे भाव आसात, तांकां कोण पोसतलो?' आवयचीं हीं उतरां आयकनाफुडें श्रीपादान आपल्या दोन अपंग भावांकडे अमृत नदरेन पळयलें. तेबरोबर चमत्कार जावन दोनय भाव सारके जाले आनी तांकां प्रज्ञा प्राप्त जाली. उपरांत ताणें उत्तरयात्रा सुरू केली. उत्तरेक जगन्नाथपुरी, काशी आनी बद्रीकेदार ह्या तीर्थक्षेत्रांनी भोंवडी करतकच तो दक्षिणेक गोकर्ण महाबळेश्वर हांगा गेलो. थंय तीन वर्सां गुपीतपणान रावून श्रीशैलाचेर गेलो. थंय चार म्हयने रावून तो निवृत्तिसंगमाचेर कृष्णेचे देगेर कुरवपूर नांवाच्या गांवांत गेलो. थंय दोन घडणुको घडल्यो, जांचो संबंद ताचो उत्तरावतार जो नरसिंह सरस्वती हाचे जीणेकडे आसा. तातुंतली पयली घडणूक अशी आसा -

कुरवपूर हांगा रावपी एका वेदशास्त्रसंपन्न ब्राह्मणाची अंबिका नांवाची बायल आशिल्ली. तिचीं भुरगीं मरतालीं. ताकालागून ती खूब दुख्खी आशिल्ली. उपरांत तिचो एक भुरगो वांचलो. पूण तो अपंगूळ जालो. त्या धसक्यान ब्राह्मण मेलो. जसजसो तो भुरगो व्हड जावंक लागलो तशेतशे लोक ताची टर उडोवपाक लागले. तें सोंसूक नज जावन अंबिका आपल्या पूतासयत कृष्णेंत जीव दिवपाक गेली. थंय तिका श्रीपदयती न्हातना दिसलो. तिणें ताका नमस्कार केलो आनी आत्महत्येच्या पापांतल्यान मुक्त जावपाखातीर आशीर्वाद मागलो. ताणें तिका शनिप्रदोषाचें आचरण केल्यार मनोकामना पुराय जातली म्हणपाचें सांगलें. अंबिकेक आपलो अपंगूळ पूत प्रज्ञावान जाल्लो जाय आशिल्लो आनी फुडल्या जल्मांत ब्रह्मज्ञानी आनी जगद्वंद्य असो पूत जाय आशिल्लो. श्रीपादान तिच्या पुताच्या मस्तकाचेर हात दवरून ताका ज्ञानसंपन्न केलो. ही अंबिका म्हळ्यार उत्तर जल्मांतली लाड

कारंजाची अंबाभवानी आनी तिका जाल्लो पूत म्हळयार नरसिंह सरस्वती आसा, असो गुरूचरित्रकारांचो भावार्थ आसा.

दुसरी घडणूक अशी आसा - श्रीपादयती सदांच न्हावपाक गेल्लेकडे थंय कपडे धुवपी एक रजक ताका भक्तिभावान नमस्कार करतालो. उपरांत ताका श्रीपादयतीचें खुबूच पिशें लागलें आनी तो ताची सेवा करूंक लागलो.

एक दीस एक म्लेंछ राजा आपल्या कुटुंबासयत न्हंयेंत न्हातना त्या रजकान पळयलें. राजाचें ऐश्वर्य पळोवन आपले गरीब परिस्थितीचें त्या रजकाक वायट दिसलें. श्रीपादाक ताच्या मनांतलें दूख समजलें आनी फुडल्या जल्मांत तू म्लेंछ राजा जावन राज्यभोग भोगतलो असो ताका वर दिलो. त्या वरान ताच्या मनान उमेद आनी दूख्ख दोनय जालें. राज्यभोगाचो आनंद आनी गुरूविरहाचें दूख्ख अशें दोनय वटेन मन जालें. तेन्ना श्रीपादयतीन ताका सांगलें, फुडल्या जल्मांत तूं बेदर नगरांत राजाचो जल्म घेतलो तेन्ना नरसिंह सरस्वतीच्या रुपान निमाणो तुका आपूण भेट दितलो. होच रजक फुडें बेदरचो मुसलमान बादशहा जालो आनी तो नरसिंह सरस्वतीचो भक्त जालो अशें सांगतात. श्रीपादयतीन संन्यास घेवंक नाशिल्लो पूण तो चडसो अवधूतभेसानच रावतालो. आपलें उरिल्लें जिवीत ताणें कुरवपुरांतच काडलें आनी आश्विन वद्य दुवादशी दिसा ताका देवाज्ञा जाली.

- कों. वि. सं. मं.

**श्रीरंगपट्टण :** कर्नाटकांतलें एक नामनेचें तीर्थस्थळ. ही सुवात म्हैसूरसावन ९ मैलांचेर कावेरी न्हंयेच्या दोन फांट्यांमदल्या जुंव्याचेर आसा. जुंव्याची लांबाय सुमार ३ मैल आनी रुंदाय १ मैल इतली आसा. जुंव्याच्या अस्तंत तोंकाक श्रीरंगनाथाचें व्हड देवूळ आसा. श्रीरंगनाथाची सुवात म्हूण हाका श्रीरंगपट्टण हें नांव मेळ्ळें.

पुर्विल्ल्या काळांत हांगा गौतम ऋषीचो आश्रम आशिल्लो. गौतमान कावेरी न्हंयेच्या एका व्हड तळपार उबो रावन तप केलें. श्री विष्णु ताचेर खूश जालो आनी गौतमाचे विनवणेप्रमाण ताणें हांगा राबितो केलो, अशी पुराण कथा आसा.

इ. स. च्या ९ व्या शेंकड्यांत गंगवंशाचे राजवटींत हांगा श्रीरंगनाथस्वामीचें देवूळ बांदपांत आयलें अशें म्हण्टात. इ. स. १२०० त म्हैसूराचेर राज्य करपी होयसळ राजा वीर बल्लाळ (दुसरो) हाणें रंगनाथाचे पुजेरवातीर थोडी जमीन दान दिली, अशें देवळांतल्या एका फातरपट्यावयल्यान समजता.

विजयनगरच्या राजांनी ह्या देवळाचो विस्तार केलो आनी वोडेयार राजांनी ताची गिरेस्तकाय वाडयली. देवळाचे गर्भकुडींत शेशशायी विष्णुची व्हड न्हीदिली मूर्त आसा. तिचे तकलेचेर शेशनागान सात फणांचें छत्र धरिल्लें दिसता. विष्णुच्या माथ्यार उंच मुकूट आनी आंगभर तरातरांचे अलंकार आसात. ताच्या पांयाकडेन साळीक घेवन बशिल्ली कावेरी देवीची ल्हानशीच मूर्त आनी पावलांकडेन गौतमाची मूर्त आसा. गर्भकुडीचे वण्टींचेर खूब महिरपी आसून तातूंत सोबीत मूर्ती कोरांतिल्यो आसात.

गर्भगारामुखार नवरंग मंटप आसून, तातूंत प्रदक्षिणा घालपाचो रस्तो आसा. नवरंग मंटपाक बरे गोल खांबे आसात. त्या मंटपाचे प्रवेश दारालागीं दोन व्हड द्वारपाल आसात आनी तांचेमुखार एक व्हड आंगण आसा. त्या आंगणांत होयसळ पद्धतीचे खूब खांबे आसात. ह्या आंगणाच्या चारय कोनशांनी चार ल्हान देवळां आसात. आंगणाच्या भितर सरपाच्या दरवट्याकडेनच हनुमान आनी गरुड हांचीं देवळां आसात. लागसारच विजयनगर शैलीचे चार खांबे आसून ताचेर विष्णुच्या केशवादी चौवीस नांवांच्यो प्रतिमा कोरांतिल्यो आसात. आंगणाचे उदतेकडेन व्हड मुखमंटप आसा. ताच्या मध्यार उंचेलो गरुडध्वज आसा. आंगणाचे भोंवतणी प्राकाराची उंच फातराची वणत आसा.

मुखमंटपाचे उत्तरेक एक वृंदावन आसून, ताचेर कृष्ण, रंगनाथ, वेणु - गोपाल आनी जनार्दन हांच्यो सोबीत मूर्ती आसात. देवळाच्या महादारालागीं चार फातराचे हत्ती दिसतात. महादाराचेर विजयनगरपद्धतीचें व्हड गोपुर आसा. गर्भघरावयले उंचेलें विमानय विजयनगर पद्दतीचेंच आसा. हें देवूळ द्राविड शिल्पकलेची बेस बरी देख जावन आसा.

रंगनाथ देवळाच्या मुखार लक्ष्मी-नरसिंहाचें व्हड देवूळ आसा. तें बरेचशें कोसळ्ळां, पूण आतां ताची दुरूस्ती करपांत आयल्या. हाच्या गाभाऱ्यांत एका चौथऱ्याचेर लक्ष्मी नरसिंहाची सोबीत मूर्त आसा. हें देवूळ म्हैसूरचो राजा कंठीरव नरसराज हाणें बांदिल्लें.

थंयसावन लागींच गंगाधरेश्वराचें देवूळ आसा. हें देवूळ इ. स. च्या १६ व्या शेंकड्यांतलें आसून, तातूंत सगळयांत सोबीत नक्षीकाम केल्लें दिसून येता. थंयच्या मंटपाचे वण्टींतल्या कोनशाक खूब शैव संतांच्यो मूर्ती आसात.

हांगाची जुम्मा मशीद म्हळयार पुर्विल्लें मारुतीचें देवूळ आशिल्लें, अशें म्हण्टात. टिपू सुलतानान थंयची मूर्त हालोवन, ताची मशिद केली. थंयच्या वण्टींचेर कुराणांतलीं वचनां कोरांतिल्लीं आसात. इ.स. १७८७ एका आलेखांत हे मशिदीचे रचणुकेचें वर्स दिलां. हे मशिदीचेर दोन सोबीत मनोरे आसात. ताच्या माथ्यार पाशाणाचे सोबीत कळस दिसतात.

इ.स.च्या १५ व्या शेंकड्यांत विजयनगरचो सामंत तिरुमल देव हाणें ह्या नगराभोंवतणीं भुंयकोट बांदलो. ताचो तट आजुनय बरो आसा. अशे तीन तट आनी खंदक आसात. त्या तटाक जायते दरवटेय आसात.

ह्या कोटाचे उदेंतेक दोन फर्लांग अंतराचेर न्हंयेचे देगेर

दर्यादौलत नांवाचें पोरसूं आनी ताचे मदीं त्याच नांवाचो टिपूचो गिमाळो राजवाडो आसा. त्या राजवाड्यांत सगळयाक चित्रां रंगयिल्लीं आसून, एके वण्टीचेर चार झुजांचीं चित्रां आसात.

थंयच्यान सुमार देड मैलाचेर, जुंव्याचे उदेंत तोंकाक टिपूची सोबीत कबर आसा. तिचे भोंवतणी पोरसू आसा. तिका लालबाग म्हण्टात. कबरीचेर ताजमहालासारको घुमट आसा, म्हूण तिका गुंबझ म्हण्टात. ही इमारत धव्या फातरांची आसा, पूण पडवेचे खांबे काळे, गुळगुळीत आनी कलापूर्ण आसात. दरवटयाचेर बरें नक्षीकाम केल्लें आसा.

ही कबर टिपून हैदर अली खातीर बांदिल्ली. उपरांत टिपूची आवय आनी टिपू हांचेंय दफन थंयच करपांत आयलें.

गुंबझाच्या आवारांत भितर सरतना दावे वटेन एक यादस्तिक दिसता. कर्नल बेली नांवाच्या इंग्रज सेनाधिकाऱ्याचें ताच्या पुतोण्यान बांदिल्लें हें यादस्तिक आसा.

श्रीरंगपट्टण हांगासल्लें श्रीरंगनाथमंदिर हें एक जागृत देवस्थान मानतात. हैदर आनी टिपू ह्या दोगांनीय देवळांतली पुजा अर्चा सारके तरेन चालू उरची म्हूण बेस बरी वेवस्था केल्ली.

श्रीरंगपट्टणाप्रमाणच शिवसमुद्रमचे लागसार कावेरी न्हंयेच्या पात्रांत एक जुंवो आसून, थंयय श्रीरंगनाथाचें देवूळ आसा. तिरूचिरापल्ली लागीं कावेरी न्हंयेच्या पात्रांतल्या जुंव्यारय श्रीरंगनाथाचें तिसरें देवूळ आसा. श्रीरंगपट्टणच्या थळाक आदिरंगम म्हण्टात. शिवसमुद्रमाक मध्यरंग आनी तिरूचिरापल्ली लागसरच्या थळाक अंतरंगम वा श्रीरंग म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**श्रीरंगम् :** तमिळनाडूंतलें एक पवित्र स्थळ. हें तिरुचिरापल्ली (त्रिचनापल्ली) चे उत्तरेक सुमार तीन मैलांच्या अंतराचेर, कावेरी न्हंयेच्या दोन फांट्यांमदल्या जुंव्याचेर आसा. जुंव्याची लांबाय सुमार १८ मैल आनी रुंदाय सुमार ४ मैल इतली आसा. फुडें १२ मैलांचेर कावेरीचे दोनय फांटे एकमेकांक मेळटात. उत्तर दिकेच्या फांट्याक कावेरी म्हण्टात.

हांगासल्ल्या रंगनाथ मंदिराचो विस्तार ३ मैल लांब आनी १ मैल रुंद आसून, तातूंत एका भोंवतणी एक अशीं सात प्राकारां आसात. त्या प्राकारांच्या भितर सरपाच्या दरवटयाचेर लागीं लागीं २१ गोपुरां आसात आनी त्या प्राकाराच्या भितरले वटेन सगळें शार एकवटायिल्लें आसा. एदें व्हड देवूळ भारतांत हेर खंयचेकडेन ना, अशें म्हण्टात. भायल्या तीन प्राकारांत लोकांचो राबितो आसा. चौथ्या प्राकाराचे भितर सहस्त्रस्तंभ मंटप, रामानुजाचार्याचें देवूळ, सुदर्शनचक्राचें देवूळ आनी श्रीरंगनायकी (लक्ष्मी)चें देवूळ आसा.

सहस्त्रस्तंभ मंटपाची लांबाय ५०० फूट आनी रुंदाय १३८ फूट आसून, तातूंत ९५३ खांबे आसात. तातुंतलो दर एक खांबो अखंड खडपासावन तयार केल्लो आसून, ताचेर सोबीत नक्षीकाम केल्लें दिसता. त्या आंगणांत दुसरो ल्हान मंटप आसा. ताच्या खांब्याचेर सोबीत घोड्याची आकृताय दिसता. ह्या चवथ्या प्राकाराच्या उदेंतेकडल्या दारावयलें व्हड गोपुर १४६ फूट उंच आसा. ताका शुभ्र वा वेल्लाडू गोपुर म्हण्टात. ते पळोवपासारकें आसा.

पांचव्या प्राकाराभितर दक्षिणेकडल्या गोपुराफुडें एका मंटपांत गरुडाची भव्य मूर्त आसा. ह्याच प्राकारांत चंद्रपुष्करिणी नांवाचें तळें आसून ताचे देगेचेर अनंतपीठ, पुर्विल्लो पुन्नागरुक्ष, श्रीरामचंद्राचें देवूळ आनी वैकुंठनाथाचें देवूळ आसा. लागसार कांय आळवार संतांचीं देवळांय आसात.

सव्या प्राकाराभितर भांगरान सजयल्लो ध्वजस्तंभ आनी मारुतीची व्हड मूर्त आसा. सातव्या प्राकाराभितर श्रीरंगनाथाचें मुखेल देवूळ आसा. तें दक्षिण दिकेक तोंड करून आसून, सामकें ल्हान आसा. ताचें विमान ओंकारासारकें दिसता. ह्या विमानाचेर चार कळस आसात. हें विमान भांगरान मढयिल्लें आसा. देवूळ चवकोनी आसा, पूण तातुंतली गर्भकूड मात वाटकुळया आकाराची आसा. तातूंत शेषशायी श्रीरंगनाथाची दोन भुजांची, काळया रंगाची व्हड मूर्त दिसता. तिच्या माथ्यार शेष नागाची फणा आसा. हे मूर्ती संबंदान आख्यायिका आसा ती अशी -

मनूचो पूत इक्ष्वाकू हाणें कठीण तपश्चर्या करून ब्रह्मदेवाकडल्यान श्रीरंगनाथाची व्हड मूर्त विमानासकट मेळयली आनी अयोध्येंत तिची प्रतिश्ठापना केली. श्रीरंगनाथ इक्ष्वाकू वंशाचो कुळदेव जालो. लंकाविजया उपरांत श्रीराम अयोध्येक परत आयल्याउपरांत ताका राज्याभिशेक करपांत आयलो. तेउपरांत ताणें बिभीषणाक श्रीरंगनाथाची मूर्त विमांनासकट दिली. बिभीषण ती घेवन लंकेकडेन वता आसतना वाटेंत कावेरीचे देगेर, चंद्रपुष्करणीलागीं रावलो आनी ताणें ती मूर्त एके बसकेर दवरली. पूण फुडें वतना ती मूर्त ताका थंयच्यान हालोवपाक जायना जाली. थंयच कावेरीचे देगेर राबितो करचो, अशी देवाक इत्सा जाली. चोल देशाच्या राजांचीय तशीच इत्सा आशिल्ली. मागीर बिभीषण तसोच लंकेक गेलो. तेन्नासावन श्रीरंगनाथ कावेरीचे देगेवयल्या चंद्रपुष्करिणीलागींच रावलो. तीच सुवात आयज श्रीरंगम ह्या नांवान नामनेक पावल्या.

श्रीरंगम् हांगासल्लें श्रीरंगनाथाच्या देवळाचें भांगरान जडयल्लें विमान हें प्रणव महामंत्राचें प्रतिक आसा. ताचेवयले चार कळस हे चार वेदाचें प्रतिक आसा. श्रीरंगनाथाचो न्हीदपाचो मंटप हो गायत्रीमंत्राचें प्रतिक आनी देवळा भोंवतणचे सात प्राकार हे भूः, भुवः आदी सात लोकांचे प्रतिक आसात, अशें मानतात.

द. भारतांतले आळवार संत हे श्रीरंगनाथाचे खांपे भक्त आशिल्ले. श्रीरंगम् हांगसल्ली पुजा - अर्चा रामानुजसंप्रदायाचे पद्धतीन

चलता. सगळ्या आळवारांनी श्रीरंगनाथाचीं स्तोत्रां रचल्यांत. केरळाधिपती कुलशेखर आळवार हाणें मुकुंदमाला नांवाचें जें स्तोत्र रचलां तातुंतलो एक श्लोक असो आसा -

भवजलधिगतानां द्वन्द्ववाताहतानां
सुतदुहितृकलत्रत्राणभारार्दितानाम् ।
विषम विषयतोये मज्ञतामप्लवानां
भवति शरणमेको विष्णुपोतो नराणाम् ।।

**अर्थ** - भवसागराच्या उदकांत पडिल्ल्या एकमेकाविरुध्द विचारांच्या ल्हारांच्या आघातांनी जर्जर जाल्ल्या, पूत, धूव, बायल हांच्या चिंतनांनी घुसपल्ल्या आनी विपरीत अशा विशयोपभोगाच्या उदकांत बुडपी लोकांक विष्णुरुपी व्हडें होच एक आदार आसा.

द.भारतांतल्या पल्लव, चोल, पांड्य, होयसळ, विजयनगरच्या सम्राट आनी तांचे सामंन आदी सगळ्या राजवंशांनी श्रीरंगनाथाच्या देवळाचो विस्तार केलो आनी तेरवातीर दानां दिल्लीं. इ. स. १३२६ त श्रीरंगमाचेर मुसलमानांचें आक्रमण जालें. तेन्ना थंयच्या वेवस्थापकांनी श्रीरंगनाथाची मूर्त तिरुपतीक व्हेली. फुडाराक विजयनगरचें वेगळें राज्य स्थापन जाल्याउपरांत ती मूर्त श्रीरंगमाक परत हाडली.

ह्या देवळांत वर्सभर विंगड विंगड उत्सव चालू आसतात. मात धनुर्मासांत (डिसेंबर) अमाशेसावन वीस दीस वैकुंठ एकादशीचो व्हड उत्सव आसता. तेवेळार थंय भाविकांची खूब गर्दी जाता. देवळाच्या भायल्यान सव्या प्राकाराक वैकुंठद्वार आसा तें त्या वेळार उगडटात. ह्या उत्सवांत आळवारांच्या दिव्य प्रबंधांतलीं पदां गायतात.

हांगा श्राध्द करप्यांक व्हड पुण्य लागता, अशें मत्स्यपुराणान सांगलां. हांगा रामानुजाचार्याचो राबितो आशिल्लो आनी ताका हांगाच मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**श्रीलंका :** हिंद म्हासागरांतलो एक जुंव्याच्या रुपान आशिल्लो देश. भारताचे आग्नेय दर्यादिगेसावन तो सुमार ३२ किमी. पयस आसा. डॅमोक्रेटीक सोशलीस्ट रिपब्लीक ऑफ श्रीलंका हें ताचें राजकीय नांव. देशाचो आकार पिएर (Pear) ह्या फळासारको आसा. १९७२ मेरेन ह्या देशाक सिलोन ह्या नांवान वळखताले. क्षेत्रफळ ६५, ६१० चौ. किमी. उत्तर-दक्षिण चडांत चड लांबाय ४३५ किमी. आनी अस्तंत-उदेंत चडांत चड रुंदाय २२५ किमी. पाल्क स्ट्रेट ह्या उथळ दर्यान श्रीलंकेक भारतासावन वेगळो केला. कोलोंबो हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** भूंयतज्ञांच्या मता प्रमाण श्रीलंका हो भारतीय द्विपकल्पाचोच एक भाग. त्या भागाक तांणी गोंण्डवानालँड अशें नांव दिलां. देशाचो दक्षिण-मध्य भाग पर्वतीय आसा. ह्या पर्वतीय भागा भोंवतणी (नैऋत्ये खेरीज) उणे उंचायेचो भाग आसा. हो भाग पर्वतीय प्रदेशासावन खोल देगणांनी वेगळो केला. हो उणे उंचायेचो भाग सपाट प्रदेशांनी रेवाडला. नैऋत्य दर्यादिगेर ऊंच सुळको आसा. हेर दिकांच्या दर्यादिगांनी खूब खाजनां, रेंवे पटे, रेंवे राशी आनी ल्हान ल्हान द्विपकल्प आसात.

भूंयरचणूकेचे नदरेन देशाचे चार वांटे केल्यात ते अशे - १) मध्यवर्ती उंचेलो प्रदेश २) ईशान्ये कडचो पर्वतीय प्रदेश ३)उदेंतेकडचो भाग आनी ४) उत्तरेकडचो सखल भाग. पिदुरूतालागाला हें मध्यवर्ती पर्वतीय प्रदेशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक आसून ताची उंचाय २,५२४ मी. जाल्यार ॲडम तेमकाची उंचाय २,२४३ मी., आसा. हें तेमूक म्हळयार बौध्द, हिंदू, मुसलमान तशेंच किरिस्तांव लोकांचें पवित्र स्थान. ईशान्येकडचो प्रदेशय पर्वतीय आसून तातूंत रक्वाना पर्वताचो आस्पाव जाता. थंय ल्हान ल्हान दोंगुल्यांच्योय वळी आनी समान्तर गेल्लीं देगणांय खूब आसात.

उदेंतेकडचो प्रदेश हो खडबडीत मैदानी भाग आसून थंय एकामेकांक पयस अशो कांय दोंगुल्ल्योय आसात. उत्तरेकडच्या सखल भागांत खूब न्हंयो आनी कांय ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्योय आसात.

**हवामान :** श्रीलंकेचें हवामान विषुववृत्त प्रकारचें. पूण चारयवटेन दर्यान रेवाडिल्ल्यान तातूंत थोडोसो बदल जाणवता. देशांतलें वर्सुकी सरासरी तापमान २७° सॅ. पूण पर्वतीय भागांतलें सरासरी तापमान १६° सॅ. आसा. श्रीलंका हो ल्हान देश आसलो तरी थंयच्या वेगवेगळया भागांतलें पावसाचें प्रमाण वेगवेगळें आसा. देशाचे आग्नेयेकडच्या प्रदेशांनी सरासरी पावसाचें वर्सुकी प्रमाण १३० सेंमी. जाल्यार ईशान्येकडच्या भागांत तें ५१० सेंमी. इतलें आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** च्याचे मळे तयार करपाखातीर खूब प्रमाणांत वनस्पत कातरप जाल्या. पूण आयज लेगीत देशाचो ७०% भाग रानांखाला आसा. सद्या फुल्लपी आनी नाफुल्लपी वनस्पतीच्यो ३,००० उपजाती आसात. रानां मारप आनी शिकार हांकां लागून मोनजातीचेंय प्रमाण उणें जालां. हांगाच्या रानांनी हत्ती, हरणां, बिबळो, वांस्वेल, कोलो, माकड, रानदुकर, चितो, मानगें आनी गव्या रेड्यांचो चड आस्पाव जाता. हांगा तरेकवार सुकण्यांच्योय जाती आसात.

**इतिहास :** श्रीलंका ह्या जुंव्याक १९७२ मेरेन सिलोन अशें म्हण्टाले. ह्या जुंव्याचेर सगळयांत आदीं यक्ष आनी नागा लोकांचो राबितो आशिल्लो अशें जाणकारांचें मत आसा. वेद्दा हे ह्याच लोकांचे वंशज. सिंहाली लोकांचें आगमन ही श्रीलंका इतिहासांतली मुखेल घडणूक. इ. स. प. ५५० त विजया ह्या उत्तर भारतीय राजकुंवरान श्रीलंकेंत सिंहली संस्कृतायेची स्थापणूक केली अशी आख्यायिका प्रचलित आसा. सुरवेक सिंहली लोकांनी जुंव्याच्या उत्तर प्रदेशांत आपलो राबितो केल्लो. तांकां शिंपणावळ पद्दतिचें बरें गिन्यान आशिल्लें. इ. स. प. २०० ते इ. स. ९९३ मेरेन अनुराधापुरा हें सिंहली

संस्कृतायेचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. सिंहली जेन्ना ह्या जुंव्याचेर पावले, तो मेरेन थळावे वेद्दा हे लोक शिकार करूनच आपलें पोट भरताले. पूण सिंहली लोकांनी शेतकी पद्दत आनी लोखण तयार करपाची पद्दत थंयच्या लोकांमुखार मांडली.

श्रीलंकेचो पारंपारीक इतिहास पयलेच खेप इ. स. सव्या शेंकड्यांत बरोवन काडलो जुंव्याचो पुर्विल्लो इतिहास महावंश ह्या ग्रंथांत मेळटा. हो ग्रंथ बौध्द भिक्षुकांनी पाली भाशेंत बरोवन काडलो. हातुंतली इतिहासीक म्हायती पुर्विल्ल्या आख्यायिकांचेर आदारल्या. इ. स. प. तिसऱ्या शेंकड्यांत भारतांतलो सम्राट अशोक हाणें बौध्द धर्म आपणायल्या उपरांत त्या धर्माचें गिन्यान हेर देशांनी फांकोवपाचे नदरेन तांणी आपल्या कांय सांगात्यांक हेर देशांनी धाडले. श्रीलंकेक ताणें आपलो पूत महेंद्र आनी उपरांत आपले धुवेक धाडली. महेंद्रान धम्माच्या रुपान बुध्दाची शिकवण थंयच्या लोकांमुखार मांडली. हे शिकवणेन प्रभावीत जावन थंयचो राजा देवानाम्पीयातीसा हाणें बौध्द धर्म आपणायलो. उपरांत थंयच्या सिंहली लोकांनीय तो धर्म आपणायलो. बौध्द लोकांनी श्रीलंकेक आपलें खाशेलें वास्तुशिल्पशास्त्र, मूर्तीकला आनी बरपावळ दिली. बौध्द भिक्षुकांचे संघ खूबकडेन पातळिल्ले. पूण अनुराधापुरा हें तांचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. श्रीलंकेच्या राजांनी बौध्द भिक्षुकांखातीर खूब विहार बांदिल्ले.

इ. स. प. १०० च्या सुमाराक दक्षिण भारतांतल्या तमिळांनी जुंव्याचेर घुरी घालून थंयच्या उत्तर भागाचेर आपलो शेक बसयलो. उपरांत तमिळ राजा आनी सिंहली राजा हांच्यांत पुर्तुगेज येमेरेन झगडीं चालूच आशिल्लीं. तमिळांनी जुंव्याचो उत्तरेकडचो भाग हातासल्या उपरांत सिंहली दक्षिणेकडेन गेले. तांचे भितल्ल्या झगड्यांक लागून सिंहली राजांक आपलें राजपाटण साबार कडेन हालोवंचें पडलें. सोळाव्या शेंकड्यांत कोट्टे शारांत तांणी आपलें राजपाटण उबारिल्लें. हें शार कोलोंबो शारासावन कांय मैल अंतराचेरच आशिल्लें. त्या तेंपार कोट्टे शार हें जुंव्यावयलें एक म्हत्वाचें वेपारी केंद्र आशिल्लें. त्या वेळार चडसो वेपार मूर लोकांच्याच शेकातळा आशिल्लो. ७०० च्या सुमाराक अरब वेपाऱ्यांच्यो टोळयो श्रीलंकेंत येवपाक लागल्यो. जुंव्यावयल्या तांच्या संततींक मूर अशें म्हण्टात. पंदराव्या शेंकड्याच्या शेवटा मेरेन तमिळांनी जुंव्याचे उत्तरेक जाफना द्वीपकल्पांत आपलें राजपाटण उबारलें. आयज लेगीत तें तमिळांचें मुखेल ठाणें आसा. सिंहली राजा पराक्रमाबाहु सवो हाकाच तमिळांक आपल्या शेकातळा हाडपाक यश आयलें.

सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन श्रीलंकेंत युरोपी वेपाऱ्यांच्यो धुरयो येवपाक लागल्यो. सगळ्यांत पयलीं १५०५ त पुर्तुगेज वेपारी कोलोंबोंत पावले. सुरवेक तांणी सिंहली राजाचे परवानगेन थळाव्या लोकांकडेन वेपार सुरू केलो. उपरांत आपल्या वेपाराची राखण करपाखातीर तांणी दर्यादेगांनी कांय किल्ले उबारले. उपरांत तांणी कोलोंबो बंदर आनी भोंवतणच्या वाठाराचेर पुरायपणान आपलो शेक बसयलो. सिंहली लोकांनी पुर्तुगेजांक धांवडावन घालपाचे खूब यत्न केले पूण तांकां यश मेळ्ळें ना. सोळाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन तांणी सबंद जुंव्याचेर ताबो मेळयलो. सबंद जुंव्याचेर शेक मेळयतना तांकां थळाव्या राजांकडेन आनी डचांकडेन झगडचें पडलें. वेपारा वांगडा थळाव्या लोकांक बाटोवन किरिस्तांव धर्म पातळावप हो पुर्तुगेजांचो मुखेल हेत आशिल्लो. वेगवेगळया मिशनरींनी थंयच्या सिंहली आनी तमिळांच्या सकयल्या जातिंच्या लोकांक बाटोवन किरिस्तांव केले. कांय पुर्तुगेज थळाव्या लोकांकडेन लग्न जाले. आयज लेगीत जुंव्यावयल्या रोमन कॅथलीक लोकांभितर पुर्तुगेजांच्यो कांय चालीरिती पळोवपाक मेळटात.

सतराव्या शेंकड्याच्या सुरवेकसावन डचांनी उदेंत आशियेंतल्यो पुर्तुगेजांच्यो कांय वसणुको घेवपाक सुरवात केल्ली. कँडीचो राजा राजासिन्ना दुसरो हाचेकडेन कबलात करून डचांनी १६४४ त पुर्तुगेजांकडच्यान बाट्टीकालो आनी त्रिंकोमाली ह्या जुंव्याचे उदेंतेकडचे प्रदेश जाल्यार अस्तंत देगेवयलीं गॉल्ले आनी नेगोम्बे बंदरां हातासलीं. १६५६ त पुर्तुगेजांआड खर झूज दिवन तांणी कोलोंबो शार हातासलें. पूण कबलाती प्रमाण तांणी हे प्रदेश राजासिन्नाक केन्नाच परत केले ना. जुंव्याचेर आपलो शेक बसयल्या उपरांत डच थंयचो राजकारभार वेवस्थीत चलोवपाक लागले. बाटाविया शार हें तांचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. तांणी आपल्या वेपारांत खूब वाड केल्ली. पूण उपरांत थळाव्या लोकांकडच्यान जावपी विरोध तशेंच ब्रिटीश आनी फ्रेंच हांचो वाडटलो शेक हाका लागून अठराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दासावन डच सत्तेक देंवतीं कळा लागली.

ब्रिटिशांनी १७९५ - ९६ मेळून हो जुंवो डचांकडच्यान घेतलो. १८०२ त ब्रिटिशांनी ह्या जुंव्याक मुकूट वसणुकेचो दर्जो दिलो. उपरांत १८१५ त तांणी कँन्डी हें सिंहलींचें राज्य हातासलें. सबंद जुंव्याचेर राज्य करपी ब्रिटीश हें पयलें युरोपी राश्ट्र. उपरांत ब्रिटिशांनी थंय माड, रबर, कॉफी आनी च्याची लागवड केली. जुंव्याचेर शेक बसयल्या उपरांत ब्रिटिशांनी डचांचे केल्ले कायदे काडून, आपले नवे कायदे बसयले. पूण हाका थळाव्या लोकांकडच्यान खर विरोध जाल्ल्यान ब्रिटिशांनी आदले कायदे परत चालीक लायले.

ब्रिटिश राजवटींतली म्हत्वाची गजाल म्हळयार शिक्षणीक मळाचेर जाल्ली थोडीभोव उदरगत आनी बौद्ध आनी हिंदू धर्माचें पुनुरुज्जीवन. किरिस्तांव मिशनरिंचे वाडटे हालचालीक लागून बौध्द आनी हिंदू धर्मशास्त्रज्ञ आपआपल्या धर्माची राखण करपाखातीर खूब वावरले. मुखार हेच चळवळींतल्यान जुंव्यावयल्या शिक्षीत लोकांच्या मनांत राश्ट्रियतेची भावना निर्माण जाली. १९०० त हे वसणुकेक स्वराज्याचो दर्जो फाव जालो. पयल्या म्हाझुजाचो ह्या जुंव्याचेर व्हडलोसो परिणाम जालो ना. पूण त्या वेळार थंय जाल्ले

धर्मीक उठाव ब्रिटीश सरकारान मोडून उडयले. हाचो परिणाम म्हळयार राश्ट्रीय चळवळीक ओतो येवन सिलोन नॅशनल काँग्रेसची स्थापणूक जाली. राश्ट्रीय चळवळीक नेट येता ते पळोवन ब्रिटीश सरकारान विधानपरिशदेंत १९२० आनी १९२४ त सुदारणा घडोवन हाडली. पूण हातुंतल्यान काँग्रेस मुखेल्यांचें समाधान जालेंना. तांणी परतून पुराय स्वातंत्र्याची मागणी केल्ली. दुसऱ्या म्हाझुजावेळार जुंव्याक जपाना कडच्यान धोको आशिल्ल्यान, ब्रिटीश सरकारान काँग्रेसच्या मुखेल्यांक विश्वासांत घेवन, चळवळ थाताखून दवरिल्ली. दुसरें म्हाझूज सोंपतकच. काँग्रेस मुखेल्यांनी आपल्यो मागण्यो ब्रिटीश सरकारामुखार परतून मांडल्यो. १९४५ त रॉयल कमिशन धाडून तांच्यो चडशो मागण्यो ब्रिटीश सरकारान मान्य केल्यो. ऑक्टोबर १९४७ त नव्या संविधानाची स्थापणूक करून, ब्रिटिशांनी श्रीलंकेक पुराय स्वातंत्र्य दिवपाचें मान्य केलें. उपरांत ४ फेब्रुवारी १९४८ दिसा श्रीलंका स्वतंत्र जाली. श्रीलंकेन संसदीय लोकशाय आपणायली. डि. एस्. सेनानायके हो श्रीलंकेचो पयलो प्रधानमंत्री जालो. एस्. डब्ल्यू. आर. डी. भंडरनायके हो १९५६ त श्रीलंकेचो दुसरो प्रधानमंत्री जालो. ताणें सिंहली भाशेक कायद्यान राश्ट्रभाशेचो दर्जो दिलो. जुंव्यावयल्या तमिळ लोकांनी हाका खर विरोध करून तांणी देशव्यापी उठाव घडोवन हाडले. तांणी साबार सिंहली लोकांची हत्त्या केली. उपरांत श्रीलंका सरकारान तमिळांकडेन तडजोड करून तमिळ भाशेचो कांय खाशेल्या प्रदेशांनी वापर करपाची हमी दिली. भंडारनायके तमिळ लोकांक चड सवलती दिता असो तांचेर आळ दवरून सिंहली जहाल पंगडांतल्या कांय लोकांनी ताची १९५९त हत्त्या केली. उपरांत १९६० त ताची बायल सिरीमावो बंदरनायके प्रधानमंत्री जाली. प्रधानमंत्री जावपी ती संवसारांतली पयली बायल. १९३५त विरोधी पक्षाक भोवमत मेळून डुड्ले सेनानायके प्रधानमंत्री जालो. १९७०चे वेंचणूकेंत सिरीमावो परतून प्रधानमंत्री जाली. १९७२ त देशान सिलोन हें नांव काडून ते बदला श्रीलंका हें नवें नांव घेतलें. श्रीलंका म्हळयार लकलकीत वा दिप्तीवंत भूंय. १९७७तले वेंचणुकेंत, गरजेच्या वस्तुंचें उणेंपण आनी वाडटे म्हारगायेक लागून श्रीमावो पक्षाचो पराभव जालो. त्यावर्सा युनायटेड नॅशनल पक्षाक भोवमत मेळून, जे. जयावर्दने प्रधानमंत्री जालो. १९७८ त संविधानांत सुदारणा करून प्रधानमंत्र्याचे सुवातेर राश्ट्राध्यक्षाक मुखेल पद दिलें. तेन्ना जयावर्दनेन प्रधानमंत्री आनी कार्यकारी राश्ट्राध्यक्ष हीं दोनय पदां सांबाळ्ळीं. १९८२त तो परतून स वर्सांखातीर राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. १९८८त जयावर्दनेन राश्ट्राध्यक्ष पदाक सोडचीट दिल्याउपरांत रणझिंगे प्रेमदासा राश्ट्राध्यक्ष जालो.

फाटल्लीं वर्सां श्रीलंकेंतले तमिळ लोक आपल्याक चड सत्ता मेळची म्हूण सरकाराआड झगडत आसात. १९७८त श्रीलंका सरकारान तांचेकडेन तडजोड करून तांकां कांय खाशेल्यो सवलती दिल्ल्यो. पूण तातूंत तांचें समाधान जालें ना. तांणी आपली सरकारआडची मोहीम आनीक खर केली. तमिळ युनायटेड लिबरेशन फ्रंट ह्या सैनिकी पंगडान, तशेंच एल्.टी.टी.ई.ईपी. आर. एल्.एफ्; आनी जे.वि.पी. ह्या जहाल् आनी उग्र पंगडांनी सरकाराआड हिंसक चळवळ उबारल्या. २९ जुलय १९८७ दिसा श्रीलंकेचो अध्यक्ष जयावर्दने आनी भारताचो प्रधानमंत्री राजीव गांधी हांणी जुंव्यावयलो वंशीक पेंचप्रसंग एकठांय येवन मिटोवपाखातीर कबलात घडोवन हाडली. हे कबलाती प्रमाण जुंव्याचेर शांतताय प्रस्थापित करपाखातीर भारतान शांतीसेना धाडिल्ली. जुंव्याचेर शांतताय प्राप्त करपाक ह्या सैन्याक व्हडलेंशें यश मेळ्ळेंना. सप्टेंबर १९८९त हें सैन्य भारतांत आयलें. १९८९त सार्वत्रिक वेंचणूक घेवन डी.बी.विजयतूंगे हाका प्रधानमंत्री म्हूण वेंचून काडलो. मे १९९३ दिसा राश्ट्राध्यक्ष प्रेमदासाची हत्त्या जाली. उपरांत विजयतूंगे राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९९४त जाल्ले संसदीय वेचणुकेंत चंद्रिका कुमारतुंगे हीच्या पक्षाक भौमत मेळून तिणें सरकार घडयलें. त्याच वर्सा नोव्हेंबर म्हयन्यांत राश्ट्राध्यक्षाचे वेंचणुकेंत ती भौमतान वेंचून आयली. उपरांत तिणें नवें सरकार घडोवन हाडलें. आपली आवय सिरीमावो बंदरनायके हिका प्रधानमंत्री नेमली.

सिंहली आनी तमिळ हांचे मदले वायट संबंद आनी तांची एकामेकाआडची तिरस्काराची भावना ही जुंव्यावयली मुखेल समस्या. स्वातंत्र्य मेळत मेरेन सिंहली लोकांनी सरकारी सुत्रां पुरायपणान आपल्या हातांत दवरल्यांत. हाका लागून तमिळ लोकांच्या फुडाराक वाव ना अशें थंयच्या तमिळी लोकांक दिसता. तेखातीर सरकाराकडच्यान आक्रमक आनी हिंसक चळवळीन आपले हक्क मेळोवपाचो मार्ग तांणी आपणायला.

**राज्यवेवस्था :** राश्ट्राध्यक्ष हो देशाचो मुखेली. ताका आनी संसदेच्या वांगड्यांक भौशिक मतदानान स वर्सांखातीर वेंचून काडटात. संसदेंत वट्ट २२५ वांगडी आसून देशांतले वेगवेगळे कायदे करपाचे हक्क संसदेक दिल्यात. प्रधानमंत्री आनी कॅबिनेटच्या हेर वांगड्यांची नेमणूक राश्ट्राध्यक्ष करता. युनायटेड नॅशनल पार्टी हो देशांतलो सगळयांत व्हडलो आनी म्हत्वाचो पक्ष. श्रीलंका फ्रीडम पार्टी आनी तमिळ युनायटेड लिबरेशन फ्रंट हे देशांतले हेर म्हत्वाचे पक्ष. देशाचो राज्यकारभार वेवस्थीत चलचो म्हूण जुंवो ९ प्रांतांनी विभागला. दर प्रांतांत गव्हर्नराचे देखरेखीखाल राज्यकारभार चलता. ह्या प्रांतांची मुखार वेगवेगळया जिल्ह्यांनी विभागणी केल्या. दर एका जिल्ह्याचेर जिल्हामंत्री देखरेख करता. गव्हर्नर आनी जिल्हामंत्री हांची नेमणूक राश्ट्राध्यक्ष करता.

श्रीलंकेची न्यायवेवस्था रोम, डच, ब्रिटीश, टेसावालामाय, मुसलमान आनी कंदयान कायद्यांचेर आदारल्या. धर्माप्रमाण वा खटल्याप्रमाण ह्या कायद्यांचो उपेग करतात. देखीक, कंदयान कायदो कंदयान सिंहलींक दायज मेळोवपाखातीर वा लग्नासंबंदीं हक्कांवेळार

लागू जाता. जाल्यार, टेसावालामाय कायदो जाफनाच्या तमिळांखातीर लागू केला. न्यायालयां सुप्रीम कोर्ट, हाय कोर्ट, डिस्ट्रीक्ट कोर्ट, मॅजिस्ट्रेट कोर्ट आनी प्रायमरी कोर्ट अशा पांवड्यांनी विभागल्यांत. सर्वोच्च न्यायालयांत दिल्लो निवाडो अंतीम आसता.

**अर्थीक स्थिती :** श्रीलंकेचो विकसनशील देशांत आस्पाव जाता. खाजगी आनी सरकारी नियंत्रणाखाल चलपी उद्देग मेळून देशाची अर्थवेवस्था सुदारपाचे यत्न करतात. शेतवड हो देशांतलो मुखेल वेवसाय. देशांतले ५०% कामगार शेतांत वावुरतात. नाल्ल, भात, रबर आनी च्या हीं जुंव्यावयलीं म्हत्वाचीं पिकां. पशुपालनांतय बरी वाड जाल्या. संकरीत गायो आनी म्हशी पोसपाखातीर सरकार शेतकामत्यांक उत्तेजन दिता. रानांसावन मेळपी येणावळ मर्यादीत आसा. पूण नुस्तेमारी वेवसाय नेटान चलता. नुस्तें मारपाखातीर आधुनिक बोटींचो वापर करतात. खनिज साठ्यांभितर ग्राफायट चड म्हत्वाचें. मिठाचे खणीचेर सरकारी मक्तेदारी आसा.

उद्देगधंदे वाडोवपाखातीर हालींतेंपार सरकारान नव्यो नव्यो येवजणो आंखल्यात. तरीपूण हांगाचे उद्देगधंदे अजूनमेरेन बाल्यावस्थेंतच आसात. देशांतलें सुमार १०% लोक कारखान्यांनी वावरतात. शेतकी मालाचेर प्रक्रीया करप, शिमीट, कपडो, चामडें, सेरेमीक, टायर, कागद, प्लायवूड आनी तेलनिवळीकरण हे देशांतले मुखेल उद्देग.

तांदूळ आनी हेर अन्न पदार्थांची निर्यात जाता. अमेरिका, ब्रिटन, चीन, ऑस्ट्रेलीया, भारत, जपान आनी जर्मनीकडेन वेपारी संबंद आसात. सेंट्रल बँक ही देशांतली मध्यवर्ती बँक, जाल्यार श्रीलंकी रुपया हें देशांतलें अधीकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारण :** येरादारी मळाचेर बरी सुदारणा जाल्या. देशांतले चडशे लोक बशींतल्यान यो-वच करतात. १% लोकांकडेन खाजगी मोटारी आसात. कोलंबो शारांत आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसून, भौराश्ट्रीय विमान सेवा अस्तित्वांत आसा. कोलंबो हें देशांतलें मुखेल बंदर. त्रिंकोमाली आनी गाले हीं बंदरांय चड म्हत्वाचीं. टपाल आनी टेलिफोन वेवस्थाय बरी आसा. दिसाळीं आनी हेर खबरांपत्रकां सिहली, तमिळ आनी इंग्लीश भाशेंतल्यान उजवाडा येतात.

- कों. वि. सं. मं.

**श्रीविद्या :** तंत्रशास्त्रांतली एक मुखेल विद्या. ही विद्या ललिता, राजराजेश्वरी, षोडशी, महात्रिपुरसुंदरी, बाला आनी पंचदशी ह्या नांवांनीय वळखतात. श्रीविद्या म्हळयार ब्रह्मविद्या वा ब्रह्ममयी विद्या. श्रीविद्या उतरांतलो श्री चो अर्थ लक्ष्मी असो नासून महात्रिपुरसुंदरी असो आसा, अशें हरिनायन संहितेंत आनी ब्रह्माडपुराणांत सांगलां. महात्रिपुरसुंदरीचें तत्त्व सांगपी जी विद्या, तीच श्रीविद्या. श्रीविद्येची भक्ती केल्ल्यान आत्मज्ञान मेळटा. ही उपासना जर गुरूचे कृपेन मेळळी जाल्यार मनशाक रोखडोच मोक्ष मेळटा. मोक्षप्राप्तीखातीर कर्ममार्ग आदी हेर मार्ग आपणायले जाल्यार तातूंत भोगाचो त्याग करचो पडटा. पूण श्रीविद्येचे भक्तीचें खाशेलेपण म्हणजे तातूंत भोगाचो त्याग करचो पडना.

श्रीविद्या ही आत्मशक्त आसा. तिका कामेश्वरी ह्या नांवानय वळखतात. कामेश्वरी ही महाकामेश्वराचे मांडयेर बशिल्ली आसा. उपाधी नाशिल्लो शुध्द आत्मो होच महाकामेश्वर. कामाख्या हांगासल्ले देवतेक तंत्रीक लोक कामेश्वरी ह्या नांवान पाचारतात. शिवाक ते कामेश्वर अशें म्हण्टात. कामेश्वरी देवीच्या चार हातांत पाश, अंकुश, इक्षुधणां आनी पंचपुश्पबाण हीं शस्त्रां आसात. पाश म्हळयार छत्तीस रोगांचें निदर्शक चिन्न, अंकुश म्हळयार दुस्वास, इक्षुधणू म्हळयार मन आनी पंचबाण म्हळयार शब्द, स्पर्श, रूप, रस, गंध. ह्यो पांच तन्मात्रा जावन आसात. आत्मशक्तीक जगदंबिका अशेंय आनी एक नांव आसा.

श्रीविद्येची शक्त ही गुणत्रयात्मक आशिल्ल्यान तिका त्रिपुराशक्त अशेंय म्हण्टात. श्रीविद्येचीं ज्ञानशक्त, क्रियाशक्त आनी इत्साशक्त अशीं तीन रुपां आसात, अशें वामकेश्वरतंत्रांत सांगिल्लें आसा. इत्साशक्त हो माथ्यावयलो भाग. ज्ञानशक्त हो मदलो भाग आनी क्रियाशक्त हो सकलो भाग. त्रिपुरा हें उतर रूढ जावपाचें आनीक एक कारण आसा. मनीस कुडीत इडा, पिंगला, आनी सुषुन्ना अशो तीन नाडयो आसात आनी तांचो राबितो मन, बुध्द आनी चित्त ह्या तीन पुरांमदीं आसता. म्हूण हे शक्तित्रयींक त्रिपुरा अशें म्हण्टात. तशेंच ती ब्रह्मा, विष्णु आनी महेश ह्या तिगांची, तशेंच ऋक्, यजु आनी साम ह्या तीन वेदांची आवय म्हणून आनी प्रलयावेळार भूः भुवः आनी स्वः ह्या तीनूय लोकांक गिळपी अशी शक्त म्हूण तिचें नांव त्रिपुरा अशें पडलें.

श्रीविद्येच्या भक्तांनी दरदिसा देवीची पुजा करूंक जाय. उमानंदनाथाच्या नित्योत्सव ह्या ग्रंथांत देवीचे पुजेचो विधी दिल्लो आसा. पूण पुजा करप शक्य नासल्यार श्रीविद्याखड्गमाला हो ग्रंथ वाचचो. कारण ह्या ग्रंथाचे पारायणान पुजेचें फळ मेळटा, अशी श्रध्दा आसा.

- कों. वि. स. मं.

**श्रीशैल :** दक्षीण भारतांतले एक पुण्यस्थळ. बारा ज्योतिर्लिंगांतलें एक. तशेंच एक शक्तिपीठ. हें थळ आंध्रप्रदेशांतल्या कर्नूल जिल्ह्यांतल्या नंदीकोटकूर ह्या तालुक्यांत आसा. हाका दक्षिण कैलास अशेंय म्हण्टात. हें कृष्णेचे उदेंत देगेर वशिल्लें आसा. ही सुवात शिवाच्या आठ मुखेल थळांतली एक अशें मानतात.

श्रीशैल हो एक दोंगर आसून ताची दर्याथरासावन उंचाय १५६३ मी. इतली आसा. दोंगराच्या माथ्यारय सगळें सपाट आसा.

श्रीशैलाचेर वचपाक चारय दिकांक चार दारां आसात तीं म्हणजे : उदेंतेक त्रिपुरांतक, अस्तंतेक अलंपूर, दक्षिणेक सिध्दवट आनी उत्तरेक महेश्वर. श्रीशैला भोंवतणच्या आठय तेंगशांक आठ रत्नांचीं नांवां आसात. ह्या दोंगराचे देंवतेवयल्यान व्हांवपी उदकाचो लोट कृष्णेक येवन मेळटा.

श्रीशैलाक नल्लमलै वा फक्त मलै (दोंगर) म्हण्टात. कन्नड आनी तेलुगू वाङ्मयांत पर्वत ह्या नांवान ताचो उल्लेख येता. पुराणांनी, महाभारत आनी काव्यांतय ताका श्रीशैल म्हण्टात.

श्रीशैल ह्या नांवाफाटल्यान एक आख्यायिका आसात ती अशी -

श्री ही विष्णुची बायल. पूण हांगासर ती एक ऋशीकन्या आशिल्ली. तिणें ह्या दोंगरार तपश्चर्या केली. शिव तिका प्रसन्न जालो. तिणें वर मागलो, ह्या दोंगराकडेन म्हजें नांव सासणाचें संबंदीत अशें उरचें. शिवान 'तथास्तु' म्हळें. ताका लागून हो दोंगर श्रीपर्वत वा श्रीशैल जालो.

पुराणकाळांत कार्तिकेय शिव - पार्वतीचेर रागार जालो आनी ह्या पर्वतार येवन रावलो. शिव - पार्वती ताचो सोद घेत घेत हांगामेरेन पावलीं. कार्तीकेयाक हें कळळें आनी तो थंयच्यान उठून क्रौंच पर्वताचेर गेलो. पूण शिव - पार्वती मात हांगाच रावलीं. शिव स्वयभू लिंगांच्या रुपांत थंय गुपीतपणान रावलो. चंद्रावती नांवाचे राजाचे धूवेक ह्या लिंगाचो सोद लागलो.

चंद्रगुप्त राजाची कन्या चंद्रावती ही आपल्या कांय दासींवांगडा आनी आपल्या गोरवांवांगडा कृष्णेच्या देगेवयल्या वनांत रावताली. अशी कितलीं तरी वर्सां गेली. एक दीस, चंद्रगुप्त राजा रानांत शिकारेक गेल्लो, थंय ताका चंद्रावती दिसली. राजा तिची वळख्य विसरिल्लो. एक अनवळखी तरणाटी (बायल) अशें समजुतीन तो तिचेकडेन लगट करूंक गेलो, तेन्ना ताका चंद्रावतीन 'तूं कृष्णेंत बुडून मरतलो' असो श्राप दिलो.

थंयसावन मागीर ती शैल पर्वताचेर रावपाक आयली. तिचे वांगडा गोरवांय आशिल्लीं. एक दीस तिची एक गाय दुदच दिना जाली. तिच्या पान्यांत दुदूच नाशिल्लें, अशे सदृदां घडपाक लागलें. उपरांत एक दीस चंद्रावती गायचे पाळटेर रावली. तेन्नां चंद्रावतीक कळळें गाय कळपांतल्यान भायर सरता आनी झोपांतल्या एका लिंगार वचून सरसर करून दुदाचो पानो सोडटा. चंद्रावतीन तें लिंग पुसलें, नितळ केलें आनी ती त्या लिंगाचे पुजेंत तल्लिन जाली, तेन्ना शिवान तिका दर्शन दिलें. तिणें मल्लिका आनी अर्जुनाच्या फुलांची माळ सदृदां आपल्या माथ्यार घेवपाची शिवाक विनवणी केली. शिवान तें मान्य केलें. त्या दिसांसावन त्या लिंगाक मल्लिकार्जून अशें नांव मेळळें. ही काणी थंयचे एके वण्टीचेर कोरांतिल्ली आसा.

शिव थंय एका शिकाऱ्याच्या रुपान भोंवतालो. ताका ह्या रानांत एक तरणाटी दिसली आनी तो तिचेर भाळळो. ती चेंचू हे जमातींतली आशिल्ली. म्हादेवान तिचेकडेन लग्न केलें, आनी तो चेंचू जमातीचो जावंय जालो. ह्या संबंदाक लागून चेंचू लोक आपल्याक थंयच्या देवस्थानाचे राखणकर्ते मानतात. उत्सावावेळार देवाचो रथय तेच वोडटात. हिय दंतकथा थंयचे एके वण्टीचेर कोरिल्ली आसा.

हांगा सतीचो कंठ गळून पडलो देखून हें शाक्तिपीठ जालें. हांगासरल्या शक्तीचें नांव भ्रमरांबा अशें आसा. भ्रमरीच्या रुपांत तिणें महिषासूराक मारलो. म्हणून तिका भ्रमरींबा हें नांव मेळळें. हिचें देवूळ मल्लिकार्जूनाच्या फाटल्या आंगाक आसा.

मल्लिकार्जूनाचें देवूळ २५ फूट उंचायेच्या चार वण्टींच्या प्राकारांनी वेश्टायल्लें आसा, त्या वण्टींची दक्षिण दिकेवटेनची लांबाय ६०० फूट आसून, उदेंत - अस्तंत रुंदाय ५०० फूट आसा. वण्टी पाशाणी आसात. तांचेर शैव पुराणांतल्यो काणयो, झुजां, देवतांच्यो मूर्ती, विंगड विंगड तरांचीं सावदां आदी शिल्पां कोरांतिल्लीं आसात. हांगा बऱ्योच धातुच्यो मूर्तीय पळोवंक मेळटात. तातूंत शिव-पावर्ती, सोमस्कंद, नटराज आनी गणपती ह्यो मूर्ती चड बऱ्यो आसात. हांगाचीं सगळीं देवळां उदेंतेक तोंड केल्लीं आसात. मुखेल शिवलिंग आठ आंगळां उंच आसा.

हांगाच्या गोपुरांतलीं उदेंत आनी दक्षिणेकडलीं गोपुरां सादीं आसात. विजयनगरच्या दुसऱ्या हरिहरान हांची पुनर्रचणूक केली. उत्तरेकडलें गोपुर ऊंच आनी शिल्पकलेन अलंकृत केल्लें आसा. मुखेल देवूळ केन्ना बांदलें, हेंविशीं कांयच म्हायती मेळना. चडकरून तें इ.स.च्या ८ व्या शेंकड्यांतलें आसुंये. प्राकारांतय उत्तर दिकेक एक व्हड वडाचें झाड आसून तें त्रिगुणित आसा. ताचे फाटले वटेन म्हातारो मल्लिकार्जून आसा. ताचें देवूळ मुखेल देवळापरस १०० वर्सां तरी पयलींचें आसुंये. फाटलें भ्रमरांबेचें देवूळ १६व्या शेंकड्यांतलें आसा.

मल्लिकार्जुनाची तेंगशी गोपुरांपरस्य अदीक उंचायेची आसा. मल्लिकार्जुनाचे पुजारी लिंगायत आसून भ्रमरांबेचे पुजारी ब्राह्मण आसात. लिंगायत लोक मल्लिकार्जुनाक लिंगचक्रवर्ती म्हण्टात.

मल्लिकार्जुनाचे उजवेवटेन पंडिताराध्याचो मठ आसा. पंडिताराध्य हो वरिशैवांच्या पंचाचार्यांमदलो एक. तो हांगासरल्या शिवलिंगांतल्यान उत्पन्न जालो, अशी आख्यायिका आसा. ताची उंचाय मनशाचे उंचाये येदी आसा. देवळाचे उत्तरेवटेन कोनशाक कल्याणमंडप आसा. तातूंत म्हादेव - पार्वतीच्यो उब्यो मूर्ती आसून, उत्सवांत एक दीस हांगा तांचो लग्नाचो सुवाळो मनयतात. देवळामुखार व्हडलो सभामंडप आसून तातूंत व्हड नंदी बशिल्लो आसा. हांगासल्ल्यान लागींच नागलूटी नांवाचें थळ आसा. ही सुवात आनी मल्लिकार्जुन हांचेमदीं मोडिल्ल्या देवळांचे कितलेतरी कुडके दिसतात.

अमृतकूंड, घंटातीर्थ, मल्लिकाकूंड, कपालकूंड, सारंगतीर्थ,

पापनाशन, देवऱ्हद, काशऱ्हव, आदी तीर्थांचीं कुडां हांगा आसात.

कल्लू, अरसू, घटा, विभूती, विरभद्र आनी भिक्षावृत्ती हे हांगासरले मठ आसून ते वीरशैवांचे आसात.

मुरवेल देवळाच्या उदेंत दारांतल्यान एक रस्तो नीट कृष्णा न्हंयेकडेन वता. कृष्णेचें पात्र हांगासरल्यान दोन मैलांचेर आसा. हांगासरले कृष्णेचो प्रवाह लागीं लागीं ८०० फूट खोल देगणांतल्यान व्हांवता, म्हूण हांगा कृष्णेकच पाताळगंगा म्हण्टात. थंयमेरेन पावतलो जाल्यार ८५२ सोपणां देवचीं पडटात आनी परत येतना तितलींच सोंपणां चडचीं पडटात. मदीं कांय विश्रामघरां बांदल्यांत. थंय यात्रेकार थोडो वेळ विसव घेतात. पाताळगंगेंत न्हावप पुण्यायेचें मानतात. थंय न्हावन वयर येवपी खंयचेय जातीचे दादल्या-बायलेक गाभाऱ्यांत वचून मल्लिकार्जुनाची पुजा करूंक मेळटा. वीरशैव लोक पाताळगंगेंतल्या दर एका रेंवेच्या कणाक शिवलिंगरूप मानतात. ते आपल्या काळजार जें शिवलिंग घालतात, तें पाताळगंगेंतल्यान घेतिल्लें आसता.

अंबाजी हें देवीचें देवूळ मुरवेल देवळासावन दोन मैलांचेर आसा. हे सुवातीकय एक शक्तीपीठ मानतात. हें देवूळ पुर्विल्लें आसून व्हड आसा. ताचे सरभोंवतणी पुर्विल्ल्या मठ-देवळांचे तुटके - फुटके कुडके आसात.

हाटकेश्वर हांगसरल्यान ६ मैलांच्या अंतराचेर हें थळ आसा. हांगासरल्यान मल्लिकार्जूनाचो कळस दिसता.

बिल्ववन - हेंय हांगासरल्यान ६ मैलांचेर आसून, थंय एकम्मा देवीचें देवूळ आनी एक व्हांवतें तीर्थकूंड आसा.

श्रीशैलाचेर एक वीरशिरोमंडप आशिल्लो. उग्र शैव ह्या मंडपांत आपली तकली वा जीब देवाक ओंपताले. हांगासर केल्ली आत्महत्या दोशास्पद आसून ती मोक्ष दिवपी मानतात, अशा आत्मत्यागाक कनू मारी म्हण्टात. श्रीशैलावयले कर्मारीश्वर हे दोंगुल्लेवयल्यान हे उग्र शिवभक्त आपणाक सकयल लोटून दिताले. शिवाजी महाराज हांगा मल्लिकार्जुनाच्या दर्शनाक जेन्ना आयिल्लो तेन्ना ताकाय आपली तकली देवाक ओंपपाची खर इत्सा जाल्ली, पूण वांगडा आशिल्ल्या ताच्या प्रधानान व्हड काकुळटेन ताका ते गजाली सावन कडेक काडलो आनी देशावयलें व्हड आरिश्ट टळ्ळें.

महाशिवरात्रेक श्री शैलाचेर व्हड उत्सव आसता. शिवरात्रे पयलीं पांच दिस तो सुरू जाता आनी वैशाखमेरेन चलता. ह्या काळांत भ्रमरांबेचोय उत्सव जाता. ह्या दोनय उत्सवांक हांगा हजारांनी यात्रेकार जमतात. मंगळारा आनी शुक्रारा भ्रमरांबेची महापुजा बांदतात.

**इतिहास** - पुराणांत श्रीशैलाचे बरेच उल्लेख दिसतात. अर्जून आपले तीर्थयात्रेंत श्रीशैलाच्या दर्शनाक आयिल्लो अशें महाभारतांत सांगलां. ह्या थळाचो इतिहासांतलो पयलो उल्लेख नाशिकच्या एका फातरपट्यांत केल्लो दिसता. हो फातरपटो गौतमीचो पूत सातकर्णी हाचो आसा. इ.स.चे सुरवेक हो दोंगर सातवाहनांच्या राज्यांत आशिल्लो. तिसऱ्या शेंकड्याच्या पयल्या चरणांत इक्ष्वाकुराजांनी सातवाहनांचेर जैत मेळोवन श्रीशैलाची सत्ता मेळयली. फुडें पल्लवराजा सिंहवर्मा हाणें इक्ष्वाकूची सत्ता नश्ट केली. तेन्ना श्रीशैल तांच्या ताब्यांत गेलो. सिंहवर्म्यान थंय बरींच ब्राह्मण कुटूंबां हाडून वसयलीं. फुडाराक हो प्रदेश विष्णुकुंडिन राज घराण्याच्या हातांत गेलो. ताचेउपरांत चोल, राश्ट्रकूट आनी चालुक्य ह्यो राजवटी आयल्यो. चालुक्याउपरांत काकतीय राजे आयले. तांचेमदलो प्रतापरूद्रदेव हाणें हांगा आपलो भांगराचो तुळाभार केलो. ह्याच राजाचो एक प्रधान वेतेपी कोमय्या हाणें मल्लिकार्जुनाचे पुजे-अर्चेखातीर कांय जमीन बक्षीस म्हूण दिली आनी ती कल्लुमठाचे सुवादीन केली. ताचेउपरांत ही इनाम दिल्ली जमीन अरसुमठाच्या ताब्यांत आयली.

ताचेउपरांत आंध्रप्रदेश विजयनगराचे अधिसत्तेखाला आयलो फुडें कोंडविडूच्या प्रोलय वेम ह्या रेड्डी राजान देवळाचेर भांगराचे कळस चडयले आनी पातळगंगेचेर सोपणां बांदलीं. बुक्कराजान श्रीशैलाची वेवस्था रावेल घराण्याच्या सुवादीन केली. हरिहरान देवाचो मुखमंडप बांदलो. ताची राणी विठलांबा हिणें पाताळगंगेर घांट बांदलो. फुडें विष्णुदेवरायान श्रीशैलाचें एक स्वतंत्र राज्यच तयार केलें.

फुडाराक मुसलमानी अमदानींत देवळाचे गांव आनी बक्षीस म्हूण लाबिल्ल्यो जमनी सरकारजमा जाल्यो. धर्मांतराच्या आनी जीवाच्या भंयान श्रीशैलावयले सगळे लोक तें स्थळ सोडून पयस गेले. थंयचे सगळे उत्सव सुवाळे बंद पडले. श्रीशैल वसाड जालो. इ.स. १६७७ वर्सा शिवाजीमहाराज हांगा दर्शनाक आयिल्लो. ताच्यान श्रीशैलाची स्थीती पळोवंक जालीना. ताणें थंय देवळाचे राखणेखातीर सैन्याचो एक पंगड दवरलो. फुडाराक हें देवस्थान मोगलांच्या हातांत गेलें. इ.स. १८२४ वर्सा तें हैदराबादच्या निजामाच्या हातांत पडलें. उपरांत इंग्रजांचें राज्य आयलें. ईश्ट इंडिया कंपनीन हो सगळो प्रदेश आपल्या ताब्यांत घेवन ताची सगळी मालमत्ता पुष्पगिरीच्या मठाच्या सुवादीन केली. स्वातंत्र्या उपरांत हें देवस्थान आंध्रप्रदेश सरकारान आपल्या हातांत घेतलें.

**सांस्कृतिक संबंदः** हांगा जायत्या योग्यांनी आत्मसाधना केल्या. पुराणकाळांत हें ब्राह्मण पुरस्कृत शैव धर्माचें केंद्र आशिल्लें. ते पुराय बळग्यान शिवाची भक्ती करताले. अघोरपंथी कापालिकांनीय हांगा आपलें बस्तान मांडिल्लें. आद्यशंकराचार्याच्या काळामेरेन ते हांगा मांडी घालून बशिल्ले. शंकराचार्य हांगा आयलो तेन्ना हांगाचो एक भैरव तांचेर चाल करून गेला. तो भैरव म्हळयार कापालिकच. चैत्यवादी बौध्दांचे पूर्वशैलिय आनी अपरशैलीय अशे दोन पंगड आसात. हीं नांवां श्रीशैलाचे उदेंत आनी अस्तंत दोंगरांवयल्यान पडल्यांत.

नागार्जुन हो बौध्द पंडित हांगा आयलो आनी हांगाच आपले रासायनिक प्रयोग करून 'रससिध्द' जालो. रसपुट हो ताचो

त्या शास्त्रावयलो ग्रंथ हांगाच निर्माण जालो. हांगासल्ली माती, उदक वनस्पत आनी खनिज द्रव्यांय रासायनिक प्रयोगांक खास करून अनुकूल अशें दिशिल्ल्यान रसरत्नसमुच्चयांत हे सुवातेक रससाधनेचें केंद्र अशें म्हळां. बौध्दांच्या मंत्रयान आनी वज्रयान ह्या संप्रदायाचो उगम हांगाच जालो. वज्रयान पंथांत श्रीशैलाक वज्रपर्वत म्हळां.

वीरशैवांच्या पांच म्हत्वाच्या थळातलें श्रीशैल हें एक म्हत्वाचें थळ आशिल्लें. रेवणसिध्द, अक्कमहादेवी, मलाम्मा, आदी वीरशैव संतांनी मल्लिकार्जुन आनी भ्रमरांबा हांची खूब भक्ती केली. जायत्या वीरशैव कवींनी श्रीशैलवर्णनाचे काव्यग्रंथ हांगाच बसून बरयले. नाथपंथाची उदेंतभूंय म्हूण तांच्या ग्रंथांतल्यान वर्णिल्लें कदलीवन म्हळयार श्रीशैलाचोच परिसर जावन आसा. महानुभाव पंथाचो संस्थापक चक्रधर हो ऋध्दिपुरासावन हांगा आयलो आनी बारा वर्सां हांगा रावलो. तांका मुक्ताबाय नांवाची योगिनी मेळ्ळी ती लेगीत हांगाच.

दत्तावतार श्रीनरसिंहसरस्वती श्रीशैलार दर्शनाखातीर आयिल्लो, अशें वर्णन गुरूचरित्राच्या ४३व्या अध्यायांत आसा. ५२व्या अध्यायांत ताचें प्रयाण वर्णिलां. ह्या भागांत आयलेउपरांत केळीच्या पानांचेर फुलांचें आसन तयार करून ताचेर स्वामी आसनस्थ जालो आनी पाताळगंगेच्या प्रवाहाचेर उफेत पलतडीं वता आसतना मदींच तो गुप्त जालो, अशें थंय सांगलां.

कांय दसकांपयलीं श्रीशैलाचो रस्तो कठीण आशिल्लो. दोंगराची चडटी-देंवती, आनी सामकें दाट रान हाकालागून तो मार्ग भोव कठीण जाल्लो. ह्या रानाच्या आलाशिन्याक लुटारू लोकय रावताले आनी ते बरेचखेपो यात्रेकारांक मारून तांकां लुट्टाले. ताकालागून यात्रेकार श्रीशैलाची यात्रा मुठींत जीव धरून आनी चोंम्या चोम्यांनी करताले. पूण हालिंसरा ही आडखळ उरूंकना. श्रीशैलाचेर वचपाखातीर आतां बरेच रस्ते जाल्यात. सगळया मार्गांवयल्यान वाहनांची सोय आसा. आता तिरुमलै, कर्नूल, गुंटकल, हैदराबाद अशा जायत्या मार्गांनी श्रीशैलाक वचपाक मेळटा.

श्रीशैल - देवस्थान समितीन थंय विश्राम घरां बांदल्यांत आनी खूब सोयी केल्यात. हेरय राबितो घरां आनी खाणावळी थंय आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**श्रीहर्ष :** (जल्म : इ.स.चो १२ वो शेंकडो).

एक संस्कृत महाकवी. नैषधीयचरित ह्या म्हाकाव्याचो कर्तो. ताणें नैषधीयचरिताच्या दर एका सर्गाच्या शेवटाक आनी ग्रंथाच्या शेवटाक चार श्लोकांनी स्वताविशीं म्हायती दिल्या. ताचेवयल्यान ताचें चरित्र कळटा तें अशें -

ताच्या बापायचें नांव हीर पंडित आनी आवयचें नांव मामल्लदेवी आशिल्लें. श्रीहर्षाक चिंतामणी मंत्राच्या जपान काव्यस्फूर्ती जाताली. महाकवी श्रीहर्ष हो जयचंद राठोड ह्या राजाचो राजकवी आशिल्लो. ह्या राजाच्या प्रोत्साहनान ताणें नैषधीयचरित हें महाकाव्य बरयलें. ह्या काव्याचो दर एक सर्ग निसर्गोज्वल म्हळयार स्वभावसुंदर आसा असो ताका विश्वास आसा. ताका योगसमाधींत परब्रह्माचो साक्षात्कार जातालो. तो जितेंद्रिय आनी मातृभक्त आसून, मातेच्या पांयावयलीं फुलां तो आपल्या मस्तकाचेर धारण करतालो.

श्रीहर्षान विजयप्रशस्ती, खंडनखंडखाद्य, गौडोर्वीशप्रशस्ती, अर्णववर्णन, छिंदप्रशस्ती, शिवशक्तिसिध्दी, नवसाहसांकचरितचंपू, स्थैर्यविचारणप्रकरण आनी ईश्वराभिसंधी अशे णव ग्रंथ बरयले. हातुंतले चार - पांच राजस्तुतिचेर आसात. ताच्या विजयप्रशस्ती ह्या ग्रंथांत जयचंद्राचो बापूय राजा विजयचंद्र हाची स्तुती आसा. खंडनखंडखाद्य हो वेदांन्तावयलो एक खूब कठीण ग्रंथ आसून, तातूंत उदयनाचार्याच्या मतांचें खंडन केलां. गौडोर्वीशप्रशस्ती ह्या ग्रंथांत गौड देशाच्या पयल्या महीपाल राजाचें आनी नवसाहसांकचरितचंपूत माळव्याच्या सिंधू राजाचें वर्णन आसा. अर्णववर्णन ह्या काव्यांत दर्याचें वर्णन आसुंये अशें दिसता. पूण कांय अभ्यासकांच्या मतान तेंय राजाचेंच वर्णन आसा. छिंदप्रशस्तींत गयेंतल्या छिंदराज घराण्यांतल्या छंदस राजाचें स्तवन आसा. शिवशक्तिसिध्दींत शिवपुजारहस्य सांगलां. स्थैर्यविचारणप्रकरण आनी ईश्वराभिसंधी हे ग्रंथ वेदान्ताचेर आसत. ह्या ग्रंथांतलो खंडनखंडखाद्य हो एकच ग्रंथ सद्या उपलब्ध आसा.

नैषधीयचरित ह्या उपलब्ध काव्याचो विस्तार व्हड आसून तातूंत बावीस सर्ग आनी अठ्ठावीसशें चार श्लोक आसात. हेंय काव्य पुराय नासून, खऱ्या पुराय नैषधीय काव्याचे साठ वा एकशेंवीस सर्ग आशिल्ले अशें सांगतात.

श्रीहर्षान केल्ल्या उल्लेखांवयल्यान कविमंडळींतलो तो एक व्हड कवी आशिल्लो अशें दिसता. उज्वल कवित्त्व आनी गाढ पांडित्य हांचे जोडयेक तर्क आनी वेदान्ताची साथ आनी तेचवांगडा, मातृभक्ती आनी अंतःस्करणाची ताका देणगी आसली. प्रापंचीक वैभवावांगडा ब्रह्मसाक्षात्कार, पंडितमान्यतेवांगडा राजमान्यता, जड पढिक विद्वत्तेवांगडा नवें कितेंय करूंक सोदपी तल्लख प्रज्ञा अशे दुर्मिळ गूण ताचेकडे आशिल्ले.

श्रीहर्षाविशीं एक आख्यायिका रूढ आसा ती अशी-

श्रीहर्षाचो बापूय हीर पंडित हो विजयचंद्राच्या दरबारांत कवी म्हूण आशिल्लो. एकदां उदयन नांवाच्या एका कवीवांगडा काव्यरचनेची चढाओढ करतना हीर हारलो. ही गजाल ताच्या मनाक लागली. म्हणून मरपाच्या वेळार श्रीहर्षाक ताणें आपोवन हाडून सांगलें, तूं राजसभेंत उदयनाक हारय. श्रीहर्षान, बापायची ही निमाणी इत्सा मान्य केली आनी ताच्या बापायन समाधानान प्राण सोडलो. उपरांत श्रीहर्ष दुसऱ्या प्रांतांत गेलो आनी थंय गुरूंकडल्यान

विंगड विंगड शास्त्रांचें अध्ययन केलें. गंगातीदेगेचेर एका गुरूकडल्यान ताणें चिंतामणी मंत्र घेतलो. त्रिपुरादेवीय ताचेर प्रसन्न जाली. उपरांत ताणें खंडनखंडखाद्य नांवाचो उदयनाचीं मतां खंडन करपी वेदान्ताचेर ग्रंथ बरयलो.

- कों. वि. सं. मं.

**श्वेतकेतू :** एक तत्त्वज्ञानी आचार्य. अरूण आनी उद्दालक ह्या आचार्यांच्या कुळांत तो जल्मला देखून ताका औद्दालकी आनी आरूणेय ह्याय नांवांनी वळखतात. देवल ऋषीची धूव सुवर्चला ही ताची बायल.

शतपथ ब्राह्मण; छांदोग्य, बृहदारूण्यक, कोषीतकी ह्या उपनिषदांत आनी आपस्तंभ धर्मसूत्र, महाभारत, कौषीतकी ब्राह्मण ह्या ग्रंथांत ताची तूस्त केल्ले उल्लेख येतात. उपवेश-अरूण - उद्दालक - श्वेतकेतू अशी तांचीं वंशावळ मेळटा.

श्वेतकेतू कुरू - पंचाल देशाचो रहिवासी आशिल्लो. भुरगेपणांत हो चड मस्तो आशिल्लो. पिरायेच्या बाराव्या वर्सा ताचो अभ्यास सुरू जालो. बारा वर्सां गुरूच्याघरा विद्या संपादन केल्याउपरांत तो घरा परतलो आनी मेळिल्ल्या गिन्यानाच्या गर्वान तो सगळयांकडेन मिजासेन वागूंक लागलो. एक दीस ताणें आपल्या बापायचोय अपमान केलो. त्यावेळार बापायन ताका समजायलो आनी आत्मज्ञानाचोय उपदेश केलो. हो उपदेश 'तत्त्वमसि' ह्या महावाक्यान तत्त्वज्ञानाच्या क्षेत्रांत नामनेक पावला.

कौषीतकी ब्राह्मणांत हाका कौषीतकी लोकांच्या यज्ञसंस्थेचो मुखेल आचार्य म्हळां. यज्ञकार्यांत थंयच्या आचार्यांक दक्षणा कितली दितात आनी कितली घेतात ताच्यापरस आचार्य पुरोयतांचें ज्ञान म्हत्वाचें आसा, हें तत्त्व विशद करून सांगपी एक प्रसंग श्वेतकेतू आनी ताच्या बापायच्या संबंदांत घडला म्हणपाचें शांख्यायन श्रौतसूत्रावयल्यान कळटा.

ह्या प्रसंगा उपरांत बापायन केल्ल्या उपदेशाक लागून श्वेतकेतू रोखडोच यज्ञसंस्थेच्या बारीक सारीक गजालींचो जाणकार जालो.

श्वेतकेतू हो पंचाल राजा प्रवाहण जैवली, आनी विदेह देशांचो राजा जनक हांच्या काळांतलो आशिल्लो.

वात्सायन - कामसूत्रांतल्या उल्लेखांवयल्यान कळटा, नंदिन्विरचित आद्य बृहत् कामशास्त्राचो श्वेतकेतून संक्षेप केलो आनी ताची ५०० अध्यायांत विभागणी केल्या. श्वेतकेतू हो त्या काळांतलो सामाजिक जाणीव आशिल्लो आनी समाजाच्या बऱ्याखातीर वेगवेगळी सुदारणा सुचोवपी असो समर्थ विचारवंत आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**श्वेतांबर :** (पळेयात जैन धर्म).

**ष :** देवनागरी वर्णमाळेंतलें एकविसावें व्यंजन. ह्या अक्षराची पयली अवस्था घोसुंडी हांगाच्या शिलालेखांत (सन आदीं दुसरें शतमान), दुसरी अवस्था कुशाण वंशाच्या राजवटींतल्या मथुरा, सारनाथ आदींकडल्या लेखांत (इ.स.चें पयलें आनी दुसरें शतमान), तिसरी यशोधर्म्याच्या राजवटींतल्या मंदसोरच्या लेखांत इ.स. ५३२ आनी चवथी तोरमाणाच्या लेखांत दिसता.

कामधेनुतंत्रांत हाचें वर्णन अशें केला -
षकारं श्रुणु चार्वङ्गी अष्टकोणमयं सदा ।
रक्तचन्द्रप्रतीकाशं स्वयं परमकुंडली ।।
चतुर्वर्गमयं वर्ण सुधानिर्मितविग्रहम ।
पञ्चदेवमयं वर्ण पञ्चप्राणमयं सदा ।।

**अर्थ** - हे चारूगात्री पार्वती, षकार हो अष्टकोणमय, रक्तचंद्रासारको, स्वतः वाटकुळो, चतुर्वर्णमय, जाची कूड अमृतनिर्मित आसा असो, तशेंच पंचदेवमय आनी पंचप्राणमय आसा.

'ष' च्या रुपाचो विकासक्रम असो -



मूर्धा हें हाचें उच्चारणस्थान आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**षट्कर्मां :** अध्ययन, अध्यापन, यजन, याजन, दान आनी प्रतिग्रह हीं ब्राह्मणांचीं षटकर्मां (स) आसात आनी अध्ययन, यजन, दान, कृषी, गोरक्षण आनी वाणिज्य हीं वैश्याचीं षटकर्मां आसात. योगसाधनेंत गरजेचीं मानिल्लीं षट्कर्मां, धौती, बस्ती, नेती त्राटक नौली आनी कपालभाती आसात.

मंत्रसिध्दीखातीर गरजेचीं अशीं तांत्रिक षट्कर्मां - शांती, वशीकरण, स्तंभन, विद्वेषण, उच्चाटन, आनी मारण. हीं षटकर्मां योग्य काळ, ग्रह, नक्षत्रां आदी पळोवन अधिकारी गुरूच्या मार्गदर्शनानच करपाचीं आसतात. शांतिकर्माखातीर आदल्या जल्मांतल्या पापांचे दुश्परिणाम ना जातात आनी व्याधी, ग्रहपीडा हांचो नाश हीं तांत्रिक षट्कर्मां करतना तारा, कालिका आनी छिन्नमस्ता ह्या देवींची आराधना करची पडटा. कर्माक सुरवात करचेपयलीं रती, वाणी, रमा, ज्येष्ठा, मातंगी, कुलकामिनी, दुर्गा, आनी भद्रकाली हांची षोडशोपचारान पुजा करची पडटा. हीं षटकर्मां एकान्ता जाग्यार करपाचीं आसतात. मारण कर्माची साधना मड्यार बसून जांव मसंडेंत करची पडटा. हीं कर्मां करताना साधकान विवस्त्र आसूंक जायना जाल्यार व्याघ्रचर्म परिधान करूंक जाय. रगताच्या रंगाचें तांबडें वस्त्रय न्हेंसूक येता.

मनशाच्या हाडांसावन केल्ली मणयांची माळ जपाखातीर

शुभ आसता. स्फटिकाची वा इंद्राक्षांची माळूय चलता.

साधनेखातीर बसपाक मातयेचें, दर्भांचें, लांकडाचें वा व्याघ्रचर्माचें आसन घेवंचें आनी पयलीं निर्भय जावपाखातीर भैरव मंत्राचो जप करचो. उपरांत यथाशास्त्र भूतबली दिवंचो

मारणकर्म शेनवारा रातचें करचें, बाकीची कर्मां आयतारचीं करचीं अशें सांगलां. अनुश्ठानाक सुरवात करताना पयल्या दिसा एक प्रहर रात उरल्या आसतना गणेशाची पांच देवांवांगडा कुलविनाशिनी देवीची पुजा करची. त्या उपरांत विवस्त्र आनी मुक्तकेश जावन, श्री देवीचें स्मरण करचें आनी उपरांत मंत्राचो जप सुरू करचो.

साधनेखातीर 'क्रीं' हो एकाक्षरी कालिका मंत्र, 'ऱ्हीं स्त्रीं हूं' हो तारिणी मंत्र ना जाल्यार वज्रवैरोचनीय इकरा - अक्षरी मंत्र दिवप अशें योगिनी तंत्रांत सांगलां.

- कों. वि. सं. मं.

**षट्खंडागम** : जैन लोकांचो एक खूब पुर्विल्लो ग्रंथ. हो जैन आगमांचोच एक भाग आसा. आगम ग्रंथांभितर 'महाकर्मप्रवृत्ति' नांवाचें पाहुड (प्राभृत) आशिल्लें. तातूंत कृती, वेदना अशे २४ खंड आशिल्ले. तातुंतल्या पयल्या स खंडांची सूत्ररूप रचना ह्या ग्रंथांत केल्या. हाची रचणूक इ.स.च्या दुसऱ्या शेंकड्यांत जाली. तातूंत ६ खंड आशिल्ल्यान ताका षट्खंडागम हें नांव मेळ्ळें. ह्या ६ खंडांचीं नांवां अशीं आसात - १) जीवस्थान २) क्षुद्रकबन्ध ३) बन्धस्वामित्व ४) वेदना ५) वर्गणा आनी ६) महाबन्ध. ह्या ग्रंथांत कर्म आनी जीव हांचेविशींच्या सिध्दांतांची बारीक विस्कटावणी केल्या.

आचार्य धरसेन हो आगमांचो पंडित इ.स.च्या पयल्या दुसऱ्या शेंकड्यांत जावन गेलो. गिरिनार पर्वताचेर चंद्रगुफेंत तप करतना ताच्या ध्यानांत आयलें, आगमांतल्या शुतज्ञानाचो चडसो भाग ना जाला आनी उरिल्लो भागय ना जावं येता. तशें जावंचें न्हय म्हूण ताणें आंध्र प्रदेशांतल्या पुष्पदंत आनी भूतबली नांवाच्या दोन मुनींक आपले कडलें सगळें ज्ञान दिलें. ह्या ग्रंथांतलीं पयलीं १७७ सूत्रां पुष्पदंतान रचल्यांत. त्या भागाक सत्प्ररूपणा म्हण्टात. उरिल्लीं ६००० सूत्रां भूतबलीन रचल्यांत. ह्या ग्रंथांतलो निमाणो खंड 'महाबंध' हो पंडितसमाजांत महाधवल ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. आचार्य भूतबलीची ही महान रचना मानतात. भूतबली हो प्रकांड पंडित तशेंच मंत्रशास्त्राचोय जाणकार आशिल्लो.

षट्खंडागम हो विशुध्द प्राकृत भाशेंत बरयल्लो ग्रंथ. ताचेर खूब टीका बरयल्यात. तातुंतली धवला ही टीका सगळयांत विस्तारान, प्रामाणिक आनी उपेगी थारल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**संक्रांत** : (पळेयात मकर संक्रांत).

**संगणक** : म्हायती तंत्रविज्ञानांतलें एक मूलभूत उपकरण. व्हड प्रमाणांतली म्हायतीची साठवण, संख्यांची विविधतरेची गणती आनी हांच्या आदारान तर्कसंगत अशो जापो दिवपी एक इलेक्ट्रोनिक उपकरण. सुरवेक संख्यांची गणिती करपाखातीर ह्या उपकरणाचो उपेग जालो. म्हणून हाका संगणक हें नांव पडलें. इंग्लीश भाशेंतल्या कंप्युटर म्हळयार गणती करप ह्या उतरावयल्यान संगणक हें नांव ह्या उपकरणाक दिलां.

संगणकाची निर्मिती १९४० च्या दरम्यान जाली आसली तरी अशे तरेच्या उपकरणाची कल्पना चार्ल्स बेबेट (Charles Babbage) हाणें १८३३ त मुखार हाडली. जमाखर्चांतल्या कारकुनाच्या चुकांचेर उपाय म्हणून ताणें ॲनालिटीकल इंजिन ह्या नांवाचें मशीन तयार केलें. हें मशीन म्हळयार संगणकाचो पयलो प्रयोग जावन आसा. १९३६ त इंग्लीश गणिततज्ञ ॲलन ट्युरींग (Alan Turing) हाणें सुचोवणेच्या रुपांत फाव ती म्हायती दिल्यार एकाच मशीनांतल्यान विविधतरेचें काम करून घेवं येता ह्या तत्त्वाचो सोद लायलो. ह्या सोदाचें यादस्तीक म्हणून एसीएम् जॉर्नालान ताच्या नांवांन ट्युरींग ॲवार्ड हो संगणक मळावयलो प्रतिश्ठीत असो पुरस्कार दवरला.

दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत संगणक उपकरणाची गरज लागिल्ल्यान संगणक शास्त्राचो विकास करपाची संद फाव जाली आनी अमेरिका जर्मनी तशेंच इंग्लंडान संगणक मशीनां तयार केलीं. १९४५ त डॉ. वॉन न्यु मेन (Von New Men) हाणें प्रॉग्राम सांठोवपाची सुविधा आशिल्लो स्वयंचलीत संगणक तयार केलो. उपरांतच्या काळांत संगणक शास्त्र विकसीत जावन संगणकाचे निर्मितींत व्हड क्रांती जाली. १९४४ ते १९५३ हो काळ संगणकाचे पयले अवस्थेचो (पिळगी) काळ मानतात. ह्या काळांत संगणकांत व्हाल्वाचो उपेग मुखेलपणान करप जालो. १९५६ - ६३ चे दुसरे अवस्थेंत व्हाल्वाजाग्यार ट्रान्सीस्टराचो उपेग करप जालो. तिसरे अवस्थेंत १९६४ - ७० इंटेग्रेटेड सरकीटस (Intregated Circuits) चो प्रयोग करप जालो. सदयाचे चवथे अवस्थेंत १९७१ सावन भोव योगदानी अशा सरकीट्स चो उपेग जाता.

फुडाराचे पांचवे अवस्थेंत म्हायती सांठवप, गणती करप आनी जापो दिवप हाचे वांगडाच संगणक स्वता विचार करतलो अशें शास्त्रज्ञांचें मत आसा आनी ते नदरेन तांचे यत्न चालू आसात.

संगणक यंत्रणेचे हार्ड वेअर (Hard Ware) आनी सोफ्ट वेअर (Soft Ware) अशे दोन मुखेल घटक आसात. हार्ड वेअरांत मध्यवर्ती प्रक्रिया संच (Central Prossesing Unit), म्हायती सांठावन दवरपी भाग (Memory - स्मरणशक्त), भायल्या संवसाराकडेन संबंद दवरून म्हायती घेवपी भाग (Peripheral Devices). सोफ्ट वेअर म्हळयार बऱ्याच कार्यक्रमांचो (Programme) संग्रह ह्या कार्यक्रम संग्रहाकडल्यान विशिश्ट कामाखातीर संगणकाक सुचना मेळटा.

अशें करतना संगणकाच्या खाशेले संगणक भाशेचो उपेग करचो पडटा हे भाशेचे दोन प्रकार आसात. उच्च स्तरीय भाशा (देखीक :- Fortran, Basic, COBOL, Pascal), कनीश्ट स्तरीय भाशा (देखीक : Assembley). सोफ्ट वेअराचे दोन प्रकार आसतात. सिस्टम सोफ्ट वेअर (System Soft Ware) ॲप्लीकेशन सोफ्टवेअर (Application Soft ware). पयल्या प्रकारांत प्रोग्राम बरोवपाक, बरयल्ले प्रोग्राम तपासपाक मदत करतात. ॲप्लीकेशन सोफ्ट वेअर हें एका विशिश्ट अशा प्रकारचें काम करता.

संगणकाची सगळी उबारणी, मांडणी आनी ताचें म्हत्व हें ताच्या चार मुखेल गुणासंबंदीत आसा. ते गूण अशे :- गती (Speed) अचुकपण (accuracy) म्हायतीची सांठपण आनी गरजेप्रमाण उपेग (Storage and retriereal), सुसंगती (Consistency) ह्या चार गुणांच्या म्हालवजार संगणक हें आयच्या काळांतलें आस्थापनांतलें सगळयांत गरजेचें, व्हड प्रमाणांत उपेगाचें आनी अती म्हत्वाचें साधन जालां.

आयच्या काळांत बँकांचे तशेंच हेर वेपारी आस्थापनांचे हिशोब, शिक्षणाचे निकाल, येरादारीचें नियंत्रण, हवामानाची सुचोवणी, झूजसंदेश, अशा मळांचेर संगणकाचो उपेग जाताच. तेभायर बुध्दीबळाचो खेळ, एके भाशेसावन दुसरे भाशेचो अणकार, संगिताची मांडावळ आनी हेर तत्सम मळांचेरय संगणकाचो वापर व्हड प्रमाणांत जावंक लागला.

संशोधन शास्त्रांत आनी संशोधन प्रकियेक संगणक हें खूब आवश्यक अशें उपकरण जालां.

- डॉ. व्ही. व्ही. कामत

**संगीत :** गीत गायनाचो आविश्कार. संग+गीत = संगीत अशी ह्या शब्दाची रचणूक जाल्या आनी तातुंतल्यान गिताचें श्रुती माधुर्य जाणवता. गीतम् वाद्यम् च् नृत्यम च् त्रयं सगीतमुच्ते अशी भरतमुनीन संगिताची व्याख्या केल्या. हे व्याख्ये प्रमाण गीत, वाद्य आनी नृत्य अशा तीन एकत्रीत घटकांक संगीत ही उपाधी दिल्या. सर्वसादारणपणान गीत - गायन आविश्काराक संगीत कला आविश्कार म्हणप जाता. संगीत कला आविश्कारांत गायन मुखेलपदार आसलें तरी ताका वाद्याची साथ लागता. इतलेंच न्हय तर ही वाद्याची साथ गीत-गायनाक आदारभूत जाता. वाद्याचे साथीबगर केल्लें गीत - गायन संगिताच्या संदर्भांत अपुरें जालां. नाचाखातीर गायन तशेंच वाद्य आवश्यक थारता. निखटें वाद्य - वादन हो प्रकार सुरवेक नासलोच म्हळयार उपकारता. अशे तरेन गीत, वाद्य आनी नृत्य हांचो एकामेकांचेर आदारीत असो अतूट संबंद उरता. गिताचे गळयांतले स्वर, वाद्याचे बोल आनी नाचाचे पद्न्यास एके लयींत मेळटा आशिल्ल्यान गिताचे स्वर, वाद्याचेर काडप शक्य जाता आनी वाद्याच्या ठेक्याचेर नृत्याचो पद्न्यास करूंक मेळटा. गीत, वाद्य आनी पद्न्यास ह्या तिनय आविश्कारांक सूर, लय, ताल आनी गेयता हांची जोड मेळून संगीत कला सगळया कलांमदीं अग्रणी कला म्हूण वळखतात.

भोवतेक सगळयाच संस्कृतींनी संगीत कलेक दैवी कला मानल्या. कारण जें जें उदात्त तें तें दैवी अशी मानपाची मनशाची प्रवृत्ती आसा. हेर सगळया मानवी आविश्कारांप्रमाण संगीत आविश्काराची निर्मिती सैमीक पद्दतीन जाल्या. मनशाचो हुंकार, दर्याचो गाज, सुकण्याची किलबील, झाडांमदली वाऱ्याची शिळोणी, काळजाची धडधड हे आद्य सैमीक संगीत आविश्कार ह्या आद्य संगीत आविश्कारांच्या वळखीन करून घेवन मनशांक ल्हव ल्हव करून कृत्रीम पद्दतीन (साधना वृत्तीन) आकार बध्द अशा संगीत अविश्काराची बुन्याद घाली. मनांतल्यो भाव - भावना, आशा - आकांक्षा संगिताच्या माध्यमांतल्यान उक्त्यो जावंक लागल्यो.

लोकसंगीत ही मानवनिर्मित संगिताची पयली अवस्था. हे अवस्थेंतल्या संगितांत मनशाच्यो निखळ भावना उक्तेपणान आनी निर्भिरपणान प्रदर्शित जाल्ल्यो मेळटात. अजय लोकसंगिताक एकंदर संगितांत खाशेली सुवात ह्याच कारणाक लागून मेळळया आनी ह्याच कारणाक लागून ताचें आजय आकर्शण उरलां. आयच्या काळांत मुखार आयिल्ल्या अभिजात संगिताक सगळयाच संगीत प्रकारांत मानाची सुवात आसली आनी तिची एक आदर्श अशी उज्वल परंपरा आसली तरी सर्वसामान्य मनशाची संगीत आविश्कार निर्मिती मुखेलपणान लोकसंगितांत जाल्ली दिश्टी पडटा.

भारतीय संगिताचे हिंदुस्थानी आनी कर्नाटकी अशे दोन मुखेल प्रकार आसात. लोकसंगीत आनी अभिजात संगीत हांची दोगांयची सांगड घालून भारती मिश्र संगिताची एक परंपरा आसा. हे परंपरेत भजन, गझल, कव्वाली, चित्रपट संगीत, नाट्य संगीत, सुगम संगीत, लावणी सारकिल्ल्या संगिताची भारतांत एक परंपरा निर्माण जाल्या आनी हें संगीतय लोकप्रिय जालां.

अस्तंत्या संगिताच्या प्रभावाखाला आनी आकर्शणाखाला येवन भारतीय संगीत अस्तंत्या संगिताचो साज घेवन मुखार येवपाक लागलां. अशा संगिताचे प्रयोग टी.व्ही. सारक्या माध्यमांतल्यान आनी माचयेवयल्या कार्यक्रमांतल्यान लोकांक आकर्शित करूंक लागल्यात.

**लोकसंगीत :** लोकांचे जिबेर अचळय घोळपी संगीत. सर्वसामान्य मनशाचो सैमीक पद्दतीन जाल्लो संगीत कलेचो आविश्कार. अभिजात संगितासारकी ह्या संगिताची आखीव अशी थारावन केल्ली रचणूक जाल्ली नासली तरी संगीतशास्त्राचे सिध्दांत पारंपारीक पद्दतीन लोकसंगितांत अंतर्भुत आसतात. अभिजात संगिताप्रमाण लोकसंगिताखातीर संगीत साधनेची वेवस्था (घराणीं), शिक्षक (गुरू), साधक (शिश्य), शिक्षण प्रक्रिया (अभ्यासक्रम) अशे मेजूनमापून केल्ले

नेमबध्द घटक अज्ञात आसले तरी मौखिक पारंपारीक देवघेवीतल्यान एके पिळगेकडसून दुसरे पिळगेकडेन लोकसंगिताचो प्रवास जाता. प्रत्यक्ष सहभाग आणि प्रत्यक्ष अणभव हातूंत संगिताचे वयर दिल्ले सगळे घटक येतात. लोकवेदाच्या हेर प्रकारा प्रमाण लोकसंगीत हो जनपदाचो जिवीत आविश्काराचो एक वांटो आसता.

सामुदायीक आविश्कार हो लोकसंगिताचो स्थायीभाव. सामुदायीक गीत - गायन, वाद्य - वादन वा नृत्य - नाच हो लोकसंगिताचो मुरवेल आविश्कार. मुळांत लोगसंगिताची निर्मिती एकोडच्या मनशाकडल्यान जावपाची शक्यता आसली तरी सामुदायिक आविश्कार जाल्या बगर अशा संगिताक लोक संगिताचे व्यारव्येंत बसोवप कठीण जाता. लोकसंगिताक गीताक मध्यवर्ती सुवात आसता. अशा गीताच्या माध्यमांतल्यान मनशाच्या भावभावनेच्या आविश्कारा वांगडाच साहित्य निर्मितीची वळरव जाता.

धर्मीक भावना आनी मनोरंजन अशा समीश्र उद्देशान लोकसंगिताची निर्मिती जावपाची शक्यता रवूब दिसता. हें जरी खरें आसलें तरी मनशाच्या अंतर्यामी उपजत आशिल्ली संगीत आविश्काराची भावना उक्ती जावपाचें लोकसंगीत हें माध्यम जालां आसूं येता.

विशेश करून अशिक्षीत लोकांखातीर तांच्या अंतर्मनाचो हुंकार लोकसंगितांत जाणवता. उत्साह, आनंद, आतंरीक सूरव लोकसंगिताच्या माध्यमांतल्यान आपसूकेंच प्रदर्शित जाता. संगीत कलेच्या आविश्काराची मानवी स्वभावांतली उपजत अशी भावना धर्मीक योगदाना खातीरची सांस्कृतिक गरज आनी सर्वसामान्याचें मनोरंजनाचें सोपें अशें साधन म्हणून लोकसंगिताकडेन पळोवप जाता.

लोकसंगिताची शास्त्रीय अशी संगीत रचना, गीत रचना पद्दतीचें लेबल लोकसंगितांत लावंक मेळ्ळेंना तरी, अभिजात संगितासारकी लोकसंगिताची आपली अशी खाशेली शैली आनी पद्दत आसा. तिचें जनकत्त्व अज्ञात आसा. अभिजात संगीत आनी लोकसंगीत हांचो पारंपारीक नदरेन समांतर प्रवास जाता, अशें दिसले तरी दोनांतय संगिताचें मुळावें शास्त्र एकच आसा. आविश्काराच्यो पद्दती वेगळ्यो आसात. म्हणून आयच्या काळांत अभिजात संगीत आनी लोकसंगीत हांचो समीश्र जावपी आविश्कार शक्य जाता.

लोकसंगिताचे व्यारवेप्रमाण लोकसंगिताक बदल मानवना वा ताका आधुनिकतेचो संपर्क सोसवना. तशा तशी ही व्यारव्या घेवप कठीण जाता. काळाथळाच्या संदर्भात लोकसंगिताक आपले भितर बदल घोळोवन घेवप जमलां.

संवसारीक संगिताचो विचार करताना मुरवेलपणान संगिताचे सदळ अशे दोन प्रवाह मानल्यात. भारत, चीन, जपान अशा अशियाई आनी हेर उदेंती संगिताक उदेंती वा प्राच्य संगीत म्हण्टात आनी युरोप अमेरिकेच्या संगीताक अस्तंती वा पाश्चात संगीत म्हण्टात. ह्या दोनय प्रवाहांतली संगीत ही संकल्पना आनी ताचो अणभव सारखोच आसलो, तरी दोनय संगितांतली स्वर - माला, बंदिशी आनी साथ - वाद्यां हांचे मदीं मुळावो असो फरक आसा. दोनय तरेच्या संगिताची फुडें शास्त्रीय, लोकसंगीत आनी लोकप्रिय अशी विभागणी जाता आसली तरी मांडावळ आनी सादरीकरण हातूंत दोनांयमदीं दारवोवपा इतको फरक दिसता. भारतीय शास्त्रीय अभिजात संगीत (हिंदुस्थानी, कर्नाटकी आनी हेर) आनी पाश्चात शास्त्रीय संगीत (सिंफोनीज, ऑपेरा, बेले आनी हेर) हांचे मदीं स्वर, लय, ताल, नाद राग रागिणी हांचो सभाव वेगळो आसा. तशेंच उदेंती लोकसंगीत वा सुगम संगीत आनी जाझ, रॉक सारकिलें लोकसंगीत वा लोकप्रिय संगीत हाचेमदलो वेगळेचार स्पश्टपणान दिसपा इतलो आसा. तेभायर दोनयकडल्या साथी - वाद्यां मदीं स्वर, ताल, लय, ठेको, नाद ह्या संदर्भांत अंतर मेळटा. संगीत अविश्कार हो कला अविश्कार आसलो आनी कला अविश्कार हो मनशाचो उत्स्फूर्त आंतरीक प्रतिसाद आसलो, तरी निमणेकडेन तो ते संस्कृतीचें दायज घेवनच येता. प्राच्य आनी पाश्चात ह्यो दोन वेगळ्यो संस्कृती आशिल्ल्यान, तांच्या भिन्न सभावानुसार भिन्न सभावाचें संगीत निर्माण जावप सभावीक आसा. कांय भारतीय संगीतकारांनी भारतीय संगीत आनी पाश्चात संगिताचो सुमेळ सादून मिश्र संगिताचे प्रयोग केल्यात आनी ते लोकप्रिय जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**संग्रहालयां :** वेगवेगळ्या वस्तूंचो संग्रह, जंय शास्त्रोक्त पद्दतीन मांडिल्लो. सांबाळिल्लो आसता अशा स्थानांक संग्रहालय वा वस्तूसंग्रहालय म्हण्टात. संग्रहालय हो शब्द म्यूझियम ह्या इंग्लीश शब्दाचो भारतीय प्रतिशब्द आसा. असो संग्रह करपाची कल्पना पुर्विल्ल्या काळांत ग्रीस देशांत उदेली. सनपयलीं २८० ह्या वर्सा पयल्या टॉलेमीन इजिप्तांतल्या अलेक्झांड्रिया नांवाच्या शारांत पयलें वस्तु संग्रहालय स्थापलें आनी तातूंत ग्रीक पंडितांचे आनी शूर पुरुशांचे पुतळे, ज्योतिश शास्त्राची साधना, शल्यक्रियेंत उपेगी थारपी उपकरणां, वेगवेगळ्या प्रकारचें ग्रंथ आनी सौमांतल्यो चमत्कारीक वस्तू हांचो संग्रह करपांत आयलो असो इतिहास मेळटा.

मुरवार युरोपांत खाजगी संग्रहालयां निर्माण जालीं. राजा, सरदार आनी गिरेस्त लोक आपल्या आवडींप्रमाण वेगवेगळ्या तरेच्यो वस्तू जमोवन आपल्या घरांत प्रदर्शन करूंक लागले. इ. स. १६८३ त ऑक्सफर्ड युनिव्हर्सिटीच्या स्कूल ऑफ नॅचरल, हिस्टरीचो एक विभाग ॲश्मोलियन म्यूझियम स्थापन जालो. हें जगांतले पद्दतशीर रितीन स्थापिल्लें पयलें संग्रहालय. नामनेच्या ब्रिटिश म्यूझियमाची स्थापना इ. स. १७५९ वर्सा जाली. राजक्रांती उपरांत इ. स. १७९३ वर्सा फ्रान्सांत राजाच्या खाजगी संग्रहालयाचें भौशिक संग्रहालयांत

रुपांतर केल्या उपरांत संग्रहालयाची प्रथा भारतांत सुरू जाली.

इ. स. १७८४त कलकत्ता हांगा एशियाटिक सोसायटी ऑफ बेंगॉल हे संस्थेची स्थापना जाल्याउपरांत हे संस्थेंत इ. स. १८१४ वर्सा भूस्तरशास्त्र, वनस्पतिशास्त्र, प्राणिशास्त्र, मानवशास्त्र, पुरातत्त्वशास्त्र अशा वस्तूंचो संग्रह करून भारतीय संग्रहालयाची स्थापना केली. इ. स. १८५१ वर्सा मद्रास (चेन्नई) हांगा दुसरें संग्रहालय निर्माण जालें. इ. स. १८८७ मुंबय व्हिक्टोरिया आनी अल्बर्ट संग्रहालय स्थापन जालें. उपरांत लॉर्ड कर्झन हांचे राजवटींत ह्या संग्रहालयाचे उदरगतीक गती मेळ्ळी आनी पुराण वस्तुसंशोधन खात्याचे सरसंचालक सर जॉन मार्शलाच्या प्रोत्साहनाक लागून उत्खनन सुरू जावन जमनीच्या पोटांत सांपडील्ल्या पुराण वस्तूंचें प्रदर्शन मांडपांत आयलें.

हातुंतलें सारनाथ हांगाचें संग्रहालय इ. स. १९०४ वर्सा, आनी नालंदा हांगाचें संग्रहालय इ.स. १९१७ अस्तित्वांत आयलें. ८ - १० वर्सांनी मोहें जोदडो, हडप्पा तक्षशिला हांगाय संग्रहालयां स्थापलीं.

उपरांत कांय शारांच्या नगरपालिकांक हेविशीं उमळशीक आशिल्ल्यान संग्रहालयां निर्माण जावंक लागलीं.

इ. स. १९१९ वर्सा वाराणसी हांगा राय कृष्ण दास हाच्या यत्नाक लागून भारत कलाभुवन नांवाच्या कलाकुसरीच्या वस्तूंचें संग्रहालय स्थापन केलें.

भारतांतलीं कांय मुखेल संग्रहालयां अशीं आसात -

**१) भारतीय संग्रहालय, कलकत्ता :** हें इ. स. १८१४त स्थापन जालें. तातूंत स विभाग आसात. (१) मानवशास्त्रविभाग (२) पुराण वस्तूविभाग (३)औद्योगिक विभाग (४) प्रणिशास्त्रविभाग (५) भूगर्भशास्त्रविभाग आनी (६) कलाविभाग.

**२) राश्ट्रीय संग्रहालय, नवी दिल्ली :** हाची स्थापना इ. स. १९४९ वर्सा केंद्र सरकारान केली. वेगवेगळ्या भागांतल्या विद्या कलांचें तें प्रतिनिधित्व करता. तातूंत वेंचीक वस्तू चड कश्टान मेळयल्ल्यो आसून तांचें संरक्षण आनी संदर्शनय शास्त्रोक्त आनी कलात्मक पद्धतीन केल्लें आसा. ह्या संग्रहालयांत शिलाशिल्पकृती, वेगवेगळ्या शैलीचीं रंगचित्रां, ब्राँझमूर्ती, वस्त्रां, फारशी आनी अरबी हस्तलिखितां, संस्कृत, पाली, प्राकृत आनी देवनागरी हस्तलिखितां, नाणीं आनी जवाहिरांचो एक संग्रह, शास्त्रांस्त्रांचो एक विभाग, लांकूड हस्तिदंत हाचेवयलें कोंत्रायल्लें काम कंवचेचें आनी मातयेचें सामान. प्रागैतिहासिक विभागांत मोहेंजोदडो, हडप्पा, झुकर, झंगर नाळ हांगा मेळिल्ल्यो वस्तू आनी मध्य आशियांतल्या पुराणवस्तूंचो सांठो आनी सर ओरेल स्टीन हाणें रेंवेच्या वाठारांत संशोधन करून हाडिल्ल्या वण्टीचित्रांचो सांबीत संच ह्या राश्ट्रीय संग्रहालयांत आसा.

**३) बडोदे संग्रहालय आनी वाचनालय :** हें सयाजीराव महाराजान इ.स. १८९४ वर्सा स्थापना केलें. ह्या संग्रहालयांत पुरातत्त्वविद्या, नाणकशास्त्र, पाश्चात्य आनी भारतीय चित्रकला, प्राणिशास्त्र, मानवशास्त्र, भुस्तरशास्त्र, व्यवहारीक वनस्पतीशास्त्र बृहत्तर भारत, चीन, जपान, इजिप्त, इराक, इराण आनी युरोप ह्या देशांतल्या कला आनी संस्कृतीकडे संबंदीत वस्तूंचो संग्रह आसा.

**४) प्रिन्स ऑफ वेल्स म्यूझियम मुंबय :** ह्या संग्रहालयाची इ.स. १९२१ वर्सा स्थापणूक जावन तातूंत कला, पुराणवस्तूशास्त्र आनी सृट विज्ञान हे विभाग आसात.

**५) सरकारी संग्रहालय आनी कला प्रदर्शन मद्रास (चेन्नई) :** हाची स्थापणूक १८५१ वर्सा मद्रास सरकारान केली. ताचे कला, पुराणवस्तूशास्त्र, मानवशास्त्र, प्राणिशास्त्र, वनस्पतिशास्त्र, भूस्तरशास्त्र आनी नाणकशास्त्र अशे सात विभाग आसात.

**६) मध्यवर्ती संग्रहालय, नागपूर :** ह्या संग्रहालयाची इ. स. १८६३त स्थापणूक जाली. कला, उद्योग, पुराणवस्तुशास्त्र, मानववशशास्त्र, अर्थोत्पादक वस्तू, भूस्तरशास्त्र आनी सृष्टिविज्ञान अशे स भाग आसात.

**७) म्हैसूर सरकारी संग्रहालय बंगलोर :** ह्या संग्रहालयाची स्थापणूक इ.स. १८६६ वर्सा जाली. हातूंत पुराणवस्तूशास्त्र, सांस्कृतिक इतिहास, नाणी, मानववंशशास्त्र, औद्योगिक कला, भुस्तरशास्त्र, वनस्पतिशास्त्र आनी प्राणिशास्त्र हे भाग आसात.

**८) सरकारी संग्रहालय, त्रिवेंद्रम :** इ.स. १८५७ वर्सा त्रिवेंद्रम हांगा स्थापणूक जाली. इ. स. १८५९ वर्सा ६० एकर जमनींत बाग आनी प्राणिसंग्रहालय निर्माण केलें. ह्या संग्रहालयांत प्रादेशिक कलावस्तू हस्तव्यवसाय वस्तू, पुराण वस्तू, नाणी आनी सृष्टि ज्ञानविशयक वस्तू दवरिल्ल्यो आसून, नायर समाजाच्या एका प्रातिनिधिक घराचो नमुनो पळोवंक मेळटा आनी लागींच आशिल्ल्या चित्रालयांत रविवर्माच्या मूळ चित्रांचो सांठोय दवरिल्लो आसा.

**९) सरकारी केंद्रीय संग्रहालय, जयपूर :** हाची स्थापणूक जयपूरच्या महाराजान इ. स. १८७६ वर्सा केली. हाचे णव विभाग आसात. कला उद्योग - धातूच्यो लांकडाच्यो आनी मातयेच्या कलावस्तूंचो संग्रह शस्त्रास्त्रां, वस्त्रां गालिचे, रंगचित्रां, भूस्तरशास्त्र, प्राणिशास्त्र, वनस्पतिशास्त्र आनी खेळणीं.

**१०) सालारजंग संग्रहालय हैदराबाद :** नबाब सलारजंग वा मीर युसुफ अलीखान हाणें कलावस्तूंचो संग्रह केल्लो. ताका मरण आयल्याउपरांत हैदराबाद सरकारान १९५१ वर्सा पंडीत जवाहरलालांच्या हस्तूकीं उक्तावण केलें. पौर्वात्य आनी पश्चिमात्य वस्तू अशे दोन विभाग आसात.

**११) राजा केळकर संग्रहालय, पुणें :** श्री केळकर हाणें वेगवेगळ्या प्रकारच्यो दुर्मीळ वस्तू एकठांय करून एक खाजगी संग्रहालय केलें. तातूंत तरेतरेचे दिवे, अडकित्ते, शस्त्रां, वाद्यां, वस्त्रां, आसनां अशो

इतिहासीक नदरेन म्हत्वाचो वस्तू आसात.

**१२) निसर्गेतिहास संग्रहालय, दार्जीलिंग :** ह्या संग्रहालयांत त्या त्या भागांतल्या पशुपक्षांचे नमुने दवरल्यात. ह्याशिवाय खास विशयाखातीर दवरिल्लीं संग्रहालयां भारतांत खूब आसात.

या संग्रहालयाचो आनिक एक प्रकार म्हळयार व्हड मनशांच्यो वस्तू ज्या घरांत, गांधी, पंडीत नेहरू, स्वामी विवेकानंद, सुभाषचंद्र बोस, लोकमान्य टिळक, रविंद्रनाथ टागोर राविल्ले त्या घरांचें तत्कालीन स्वरूप, थंय त्या त्या मनशांनी वापरिल्ल्यो वस्तू, मेळिल्लीं मानपत्रां, ताणीं बरयल्ले ग्रंथ, तांकां अर्पण केल्ले ग्रंथ, तांचीं पत्रां, तांचीं छायाचित्रां अश्या वस्तूंचो संग्रह केल्लो आसा. अशे तरेचीं संग्रहालयां भारतांत जायतेकडेन आसात. दिल्लीचें महात्मा गांधीस्मारक संग्रहालय आनी ग्रंथालय, पंडीत नेहरू स्मारक संग्रहालय, हीं तातुंतलीं प्रतिनिधीक संग्रहालयां.

विसाव्या शेंकड्यांत जगांतल्या संग्रहालयाची संख्या खूब वाडिल्ल्यान तांचेमदीं संबंद प्रस्थापीत जावंचे, कार्यपद्धतीचे म्हायतीची देव घेव जावंची आनी सगळयांमदीं एक सुत्रता निर्माण जावंची ह्या उद्देशान इ.स. १९२६त जगांतल्या संग्रहालयाचें एक आंतरराश्ट्रीय कार्यालय स्थापन करपांत आयलें. इ.स. १९४६ वर्सा इंटरनॅशनल कौन्सिल ऑफ म्यूझियम्स ही संस्था स्थापन जाली. हे संस्थेन संग्रहालयाचे उदरगतीखातीर इ.स. १९५६ वर्सा जागतिक चळवळ सुरू केली. तातूंत ६१ राश्ट्रांनी भाग घेतिल्लो.

देशाच्या भूतकाळांतलें कार्य आनी भविष्यकाळांतली म्हत्वाकांक्षा; तशीच लोकांची संस्कृती, मनोवृत्ती आनी अस्मिता हांचें त्या त्या संग्रहालयाक लागून दर्शन घडटा. अशीं हीं संग्रहालयां म्हळयार देशाची दुर्मीळ आनी मोलादीक संपत्ती आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**संघटना :** समाजांतल्या वेगवेगळया गटांमदीं विशिश्ट उद्दीश्ट सादपाच्या हेतून आनी परस्परसंबंद प्रस्थापित करपाचे नदरेन वेगवेगळयो क्रिया, प्रतिक्रिया, आंतरक्रिया घडत आसतात. त्यो नियंत्रीत करपाखातीर, निदान तांचीं कामां शिस्तीन जावंचीं म्हणून अशो संघटना (Organisations) अस्तित्वांत येतात. त्या त्या गटांतल्या लोकांच्या समान हितसंबंदांकलागून आनी तांच्या भौशिक यत्नांतल्यान संघटनांची निर्मिती जाता. वैयक्तिक बळगें कमी पडटा. एकत्रीतपणान केल्ले प्रयत्न परिणाम सादता ह्या मूलभूत तत्त्वाचेर दर एके संघटनेची बसका आसा.

आपल्यो मागण्यो मान्य करून घेवपाखातीर, कारखान्यांतल्या वेवस्थापक मंडळीवांगडा उलोवणीं करपाखातीर कामगारांच्यो संघटना उब्यो रावतात. जाल्यार बरे बाजारपेठेंत आपलो माल खपोवन फायदो मेळोवपाच्या उद्देशान कामगारांकडल्यान काम करून घेवपाखातीर वेवस्थापक लोकांची संघटना निर्माण जाता.

तशेंच हांचेवांगडाच शासकीय खातीं, राजकीय पक्ष, लश्कर, दवाखाने अशा मळांरय संघटनांची स्थापना जाल्ली आसता.

समाजांतल्या व्यक्तींचे गट एकामेकांक सहकार्य दीत आसतात. तातुंतल्यानच समाजीक संघटना विकसित जायत आसतात. व्यक्तीच्या कश्टांक सहकार्याची भावना मेळ्ळी तर एकवटीतपणान कार्य करप सोपें जाता. संघटनेंतल्या सभासदांचे परस्परसंबंद आनी तांच्यो भितरल्यो क्रिया योग्य पद्दतीन नियोजीत करून अडचणींचेर मात करपाचें कार्य संघटनाचे वतीन जाता.

नामनेचो समाजशास्त्रज्ञ मॅक्स वेबरान संघटनेविशींच्या समाजशास्त्रीय नदरेतल्यान मांडिल्ले सिध्दान्त अभिजात मानतात. वेबराभाशेनच हेर समाजीक विज्ञानाच्या अभ्यासकांनीय संघटनेविशीं विचार मांडिल्ले आसात. मानवशास्त्रज्ञांच्या मतान नातेसंबंद हे अनौपचारीक संघटनेची देख जावन आसा. जाल्यार राजकीय संघटना ही औपचारीक स्वरुपाची आसता. खंयच्याय समाजांत राजकीय आनी अर्थीक संघटना संमिश्र स्वरुपाच्यो आसतात थंय संघटनांचो विकास रोकडोच जाता.

राज्यशास्त्रज्ञांनी दोन हजार वर्सांपयलींपसुनच राजकीय संघटनेविशींचे सिध्दान्त मांडिल्ले आसात. ह्यो संघटना खंयच्या हेतूखातीर निर्माण जातात, कशो निर्माण जातात, तांचें कार्य कशें चलता हांचें विवेचन पुर्विल्ल्या तत्त्वज्ञांनी केल्लें आसा. आयच्या विचारवंतांकय राजकीय संघटनांच्या ध्येय धोरणांसबंदीं विचार करचो पडटा. राज्य, शासनसंस्था, विधिमंडळ, न्यायमंडळ, पक्षसंघटना, जागतिक पातळेवयली राजकीय संस्कृतीक संघटना ह्या सगळयांची कार्यपद्दती, तांची फलनिश्पत्ती आनी अशा संघटनांचे एकामेकांचेर जावपी परिणाम अशा जायत्या तरांनी ह्या संघटनांचो सोद घेवप जाता. तांची रचणूक आनी तातूंत परिस्थितींत जावपी बदल हांचीं कारणांय सोदून काडप जाता. समाजीक संघटनेंतय कुटूंबसंस्थेपसून जागतिक बंधूभाव निर्माण करपी संघटनांमेरेनचो विचार करचो पडटा.

अशा संशोधना फाटलें एक समान सूत्र सांपडटा. तें अशें, समाज निर्मिती, समाज संगोपन आनी समाजाची उदरगत. ह्या सगळयांखातीर संघटना निर्माण जातात आनी वाडटात. ती गरज सोंपली म्हणजे संघटना विघटीत जातात आनी तांच्या जाग्यार नव्यो संघटना तयार जावन त्याकाळाची वा परिस्थितीची गरज भागयतात. अशा जायत्या ल्हान - व्हड संघटनांनीच समाजाचें अस्तित्व अणभवाक येता. अशो संघटना राजकीय, सांस्कृतिक, उद्देगीक अशो वेगवेगळया तरेच्यो आसतात. हाचेवयल्यान जायत्या संघटनांचें जाळें म्हणजेच समाज अशें म्हणूं येता.

- कों. वि. सं. मं.

**संज्यांव :** संज्यांव हें सां जुंवाव म्हळयार सेंट जॉन ह्या उतराचें थळावें रूप. संज्यांव ही किरिस्तांव समाजांतली विशेश करून गोंयांतली एक भौशिक परब. जून म्हयन्याचे २४ तारखेक ही परब मनयतात. प्रोफेट इसाहाकडच्यान बापतिज्मा मेळिल्लो, सेंट जॉन, हाच्या नांवांन ही परब गोंयांत व्हडा उमेदीन मनयतात. सेंट जॉन हाणें वाळवंटी विभागांत धर्मकार्याचो प्रसार केलो. लोकांनी एकामेकांक समजून घेवचें आनी बरेपणान वागचें असो ताचो संदेश आशिल्लो.

ह्या दिसा किरिस्तांव समाजांतले दादले, सांज्यांवाचो उगडास करपी पदां म्हणत, ताच्या नांवांचो जयजयकार करीत रस्त्यावयल्यान मिरवणुकेक वतात. गांवचे लोक हे मिरवणुकेंतल्या पंगडाक आंबे, पणस, अणसां सारकेल्लीं ह्या मोसमांतलीं फळां आनी सोरो तशेंच पैशे दितात.

मिरवणुकेंतले लोक कपलाक चुट्ट्यांची, काटयेची कपलपट्टी (कपेल) बांदतात. नव्यानच लग्न जावन गेल्ल्यो गांवच्यो धुवो आपल्या घोवा वांगडा खासा संज्यांवाचे परबेक उपस्थिती लायतात. येतना जांवयान फळांचें वजें हाडपाची प्रथा आसा. हीं फळां गांवच्या लोकांक वांटप जाता. हे नवे जांवय संज्यांवाचे मिरवणुकेंत सामील जातात.

शेवटाक सगळे जाण गांवच्या बांयांची, न्हंयांनी उडयो मारून न्हातात. कांय न्हंयांचे देगेवयल्या गांवांनी संज्यांवाच्या निमतान सजयल्या सांगोडावरवीं न्हयेंतल्यान मिरवणूक काडटात.

गोंयांत (बारदेस), करमळी (तिसवाडी) आनी बाणावली (सालसेत) हांगा सेंट जॉनाचीं कपेलां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**संजीविनी विद्या :** मेल्ल्याक जिवो करपी एक विद्या. हिका मृतसंजीवनी अशें म्हण्टात. हातूंत सगळया विद्यांचें सार आसून ती सदैव सुप्त आसता. 'वं मृतसंजीविनी मृतमुल्यापय स्वाहा' हो हे विद्येचो मंत्र आसा. ह्या मंत्राचो १०८ खेपे जप केल्ल्यान तो सिध्द जाता. जाका ही विद्या फाव जाल्या अशा साधकान मेल्ल्या वा चितेचेर दवरिल्ल्या मडयाक स्पर्श करून ह्या मंत्राचो जप केल्यार मेल्लो मनीस जिवो जाता, असो हे विद्येचो महिमा सांगला.

ही विद्या खूब पुर्विल्ल्या काळासावन भारतांतल्या आचार्यांक कळटाली. देवसुरांच्या युध्दांत दानवांचो पुरोयत शुक्राचार्य हो विद्येच्या बळाचेर दानवांक जिवे करतालो अशी कथा महाभारतांत मेळटा. तशेंच ताणें हे विद्येचेर बलीक जिवो केल्ल्याचो दाखलो भागवत पुराणांत मेळटा. बलीच्या वांगडा जांच्यो मानो आनी हेर कुडीचे भाग तुटूंक नाशिल्ले तांकांय शुक्राचार्यान जिवे केल्ले. जालंधरनाथाक ही विद्या शुक्राचार्याकडल्यान मेळिल्ली. भृगुनय आपले बायलेक हेच विद्येन जिवी केल्ली अशो कथा पुराणांत आसा.

ब्रह्मपुराणाच्या मतान ही विद्यापरंपरा शिव - शुक्राचार्य - कच - बृहस्पती अशी आसा. बृहस्पतीन ही विद्या सगळया देवांक दिली.

संजीविनी ही एक वखदी वनस्पती आसून, ती मृताक जिवो करूंक शकता आनी ती द्रोणागिरीचेर सांपडटा अशीय आख्यायिका धर्म ग्रंथांनी मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**संत / साधू :** सज्जन, परोपकारी देवभक्त आनी साक्षात्कारी मनशांक साधू संत अशें म्हण्टात. साधू ह्या उतराचो अर्थ पुण्यवान, सदाचरणी, सज्जन असोय जाता. सत्कर्मरत, (सदांच बरें काम करपांत मग्न आसपी), निर्वैर (कोणाकडेंच दुस्मानपण नाशिल्लो), निरपेक्ष (कसलीच अपेक्षा न करपी) निसंग, निश्काम हीं संतांचीं लक्षणा सांगल्यांत. महाभारतांत संत हें उतर सदाचारी ह्या अर्थान आनी भागवतांत पवित्रात्मो ह्या अर्थान वापरलां. भर्तृहरीन संत ह्या उतराचो प्रयोग परोपकारी ह्या अर्थान केला. रामचरितमानसांत सज्जन, साधू, सत्पुरूष, भक्त आनी संत हे शब्द सारक्या अर्थाचे जावन आसात. हे संत काम, क्रोध आदी षड् (स) रिपूंक लागीं धरपी, भायल्या - भितरल्ल्यान शुध्द, निश्पाप, निश्चल, श्रध्दायुक्त, क्षमाशील, दयाळू, जितेंद्रिय, परोपकारी, दुसऱ्यांच्या दुख्खान विरगळपी आनी विरागी आसतात अशेंय त्या ग्रंथांत म्हळां.

सामान्य मनीस आनी साधू संत हाच्या विचारांत वेगळेंपण आसता. सामान्य लोक जाका सूख मानतात, ताका संतलोक अभिशाप मानतात. सामान्य लोक मरणाक भियेतात, पूण संत ताचें अपरिहार्यतत्त्व समजून घेवन तेविशी भयविरयत आसतात. लोक सुखोपभोग प्राप्त करून घेवपाखातीर यत्नांची पराकाश्ठा करतात जाल्यार संत विशय वैराग्य बाळगून यद्दच्छालाभसंतुश्ट आसतात. सामान्य मनशाक मरणाउपरांत मोक्ष जायच आसता, पूण संतांक जीणेंतल्यान मुक्तताय जाय आसता. तेचखातीर तांची सगळी साधना आसता.

भारतांत संतांची परंपरा बरीच पोरनी आसा. द. भारतांत आळवार नांवांचे १२ वैष्णव संत जावन गेले. तांचो काळ सारको सांगूंक जायना. नायन्मार नांवांचे शैव संतय द. भारतांत जावन गेले. हांची संख्या ६३ आशिल्ल्याचें सांगतात. सादारणपणान इ.स.चो ५ वो तो १० वो शेंकडो हो तांचो काळ मानतात. महाराष्ट्रांत आनी कर्नाटकांत वारकरी संप्रदायाचे बरेच संत जावन गेले. ज्ञानदेव, नामदेव, एकनाथ, तुकराम, रामदास ह्या मराठी संतांनी महाराष्ट्रांत भक्तिमार्गाचो विकास केलो. कर्नाटकांतले पुरंदरदासादी संतय भक्तिमार्गीच आशिल्ले. उत्तर भारतांतली संतपरंपरा जयदेवासावन सुरू जाता आनी त्या दायजांत कबीर, रविदास, नानक, दादू दयाळ, तुळशीदास आदी संतांचो आस्पाव जाता. गुजरातांत नरसी मेहता, विजयसिंह बोडाणा, धन्नाभगत आदी संत जावन गेले. राजस्थानात संत मिराबाई प्रसिद्द आसा. आसामांत शंकर देव, माधवदेव आदी संत जाले. बंगालांत

चैतन्य, चंडीदास आदी संत जाले. विंगड विंगड प्रदेशांतले ह्या वेगवेगळया परंपरांचो एकमेकाकडेन किदें संबंद आशिल्लो हें सारकें सांगपाक येना. नामदेवान पंजाबची भोंवडी केली तर कबीर द. भारतांत पावलो. कबीरान नामदेवाक आदर्श भक्त मानला.

भारतांतल्या वेगवेगळया वाठारांतल्या ह्या संतांचे जीणेंत, आचार विचारान आनी आध्यात्मिक साधनेंत विविधताय आसली तरी आत्मज्ञान वा मोक्ष हांचेविशीं एकवाक्यता दिसता. परमेश्वराक मेळपाची तळमळ आनी तेखातीर ताची भक्ती होच तांचे जिणचो गाभो घरदार, संवसार सगळें विसरून हरिकीर्तनांत दंग जाल्ले कितले तरी संत आशिल्ले.

साधुसंताच्या सहवासाक लागून सामान्य मनशाच्या जिवितांत बरोच बदल घडून येता, अशी समजूत आसा. संताच्या निर्मळ आचरणाक लागून ताच्या भक्तांचें मन सात्विक जाता. तांचे आचार विचार शुध्द जातात आनी तांकां शांती मेळटा. संत समागमाकलागून ईश्वर लागीं येता, इतलेंच न्हय तर आत्मसुखाचो आंकुरय किल्लता. शुध्द आनी सात्विक जीण जियेवपी, संवसारांत रावूनच साळकाच्या पानांवरी निर्लेप अशे हजारांनी सत्पुरूष समाजांत आसतात, अशा साधुसंताची सेवा आनी भक्ती करून लाखांनी लोक आपली परमार्थीक जीण समृध्द करून घेतात. सत्पुरुषांचे आशिर्वाद मेळ्ळे म्हणजे जिवितांतल्या खंयच्याय अरिश्टाक तोंड दिवपाचें बळगें कुडींत येता, तेभायर परमार्थीक खोसय भोगता, अशी तांची श्रध्दा आसता.

महाराष्ट्रांतले भागवती धर्म आनी वारकरी पंथांत साधुसंतांनी भौसाक मानसिक आनी परमार्थीक उदरगतीची वाट मेकळी करून दिली. धर्मसुदारणा आती लोकजागृताय केली. नामसंकिर्तनाचो प्रचारच ताणीं केलो ना तर आपल्या आचरणान आनी ग्रंथांच्या आदारान अंतःशुध्दी, कर्तव्यनिश्ठा, भूतदया, क्षमाशीलताय, परोपकार आदी दैवी गुणांची पोसवणय ताणीं केली. मनशाचें व्हडपण हें ताच्या सामाजिक प्रतिश्ठेचेर आदारिल्लें नासता तर वैयक्तिक चारित्र्याचेर तें आदारून आसता, हे गजालीचेर भर दिलो. देवाच्या देवळांत ब्राह्मण, शूद्र हो फरक ना. ताचेमुखार सगळे सारखे हें तत्त्व ताणीं मांडलें.

संताच्या लक्षणांत चमत्कार - कर्तुत्वाचो उल्लेख दिसना. संत हो देव आनी सामान्य मनीस हांचेमदलो पूत. संताक ईश्वराचो साक्षात्कार घडटा. तो साक्षात्कार सामान्य मनशाक घडोवपाचें कार्य संत करता. मध्ययुगांत भारतीय समाज आनी धर्म संकश्टांत सापडिल्लो लोक भक्तीमार्ग सोडून हेरकडेन पाविल्ले, तेन्ना संतांनीं ह्या लोकांक खरो धर्म, सदाचार, मानवता, उदारताय, दया, साहिष्णुता, अहिंसा, सत्य आनी स्थैर्याची शिकवण दिली. ताणीं आशावाद शिकयलो. हिंदू - मुस्लिम हे वेगवेगळे संस्कृतीचो समन्वय साधचो म्हणून संतांनी बरेच यत्न केले. परमार्थीक साधनेंत गुरूकृपेक चड म्हत्व दिलां. गुरूचे कृपेनच देव मेळूं येता, अशी साधकाची धारणा संतांनीय सद्गुरूची व्हडवीक गायिल्ली दिसता. देवापरसय सद्गुरूक ताणीं व्हड सुवात दिल्या. रामदासा सारकिल्या संतांनी तर परमार्था इतलेंच म्हत्व प्रपंचाक दिलां, चडशा संतांनी राजधर्माकडे फाट केल्या. प्रवृतीधर्म उपेदेशिला. भक्तीयोग, सधर्माचरण, सन्यास विरोध, शुध्द चारित्र्याक व्हडपण आनी कर्मकांडाचो निशेध, हींच भागवत धर्माचीं मुखेल लक्षणां जावन आसात. वर्णभेद, जातीभेदाचेर कडक टीका करून आनी समतेचो उपदेश करून ताणीं सगळयांखातीर मोक्षाचो दरवटो उक्तो केला. ताणीं समाजाक एकठांय हाडपाचें म्हळयार समाज संघटनाचें व्हड काम केलां. तेचप्रमाण वेद, उपनिषदां, गीता, महाभारत, रामायण हांची परंपरा अखंड राखपाचो आनी ह्या दायजाचो अभिमान जागृत दवरपाचोय ताणीं सदांच यत्न केल्लो दिसता. भारतीय अस्मितायेची राखण आनी पोसवण ताणीं केली. तेचप्रमाण रामदासा सारकिल्या कांय संतांनी तर राश्ट्र धर्माचीय स्थापणूक केल्ली पळोवंक मेळटा. संत तुकाराम, अमृतराय, ज्ञानेश्वर, ज्ञानदेव, रामदास, तुळशीदास ह्या संतांनी सगळेतरेचो भोव मोलादीक वावर केल्लो दिसता.

हे संत परंपरेचें दायज आधुनिक युगांतय, वेगळया स्वरुपांत पळोवंक मेळटा. संवसारांत सगळया मळांचेर आनी विशेश करून धार्मिक आनी सामाजिक मळार युगपुरूष जावन गेले. आयचे घडयेकय तातुंतले कांयजाण कार्यरत आसा. आपल्या तात्त्वीक विचारसरणींतल्यान, निर्मळ आचारवांतल्यान आनी परोपपरकारी भावनेंतल्यान ताणीं सर्व समान्याच्या जिविताक उभारी हाडपाचे कार्य केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**संत तुकाराम :** (पळेयात तुकाराम).

**संताळ :** एक आदिवासी जमात. ह्या लोकांची वसती बंगाल, बिहार आजी ओडिसा ह्या प्रदेशांनी आसा. तांकां संताळ, सांथाळ, सांवतार आनी सांवताळ अशींय नांवां आसात.

संताळाच्या मूळस्थानाविशीं खूब आख्यायिका आसात. पूण तांची वसती पयलीं गंगेच्या देगणांनी आशिल्ली ह्या संबंदान एकमत आसा. हिंदू लोकांनी तो प्रदेश घेतकच संताळांनी छोटा नागपूरच्या दोंगराळ वाठाराचो आश्रय घेतलो. इ. स. १८ व्या शेंकड्यांत छोटा नागपूरचें पठार हेंच तांचें मुखेल वसतिस्थान आशिल्लें. हजारीबाग, पालानाऊ, सिंगभूम हे तांचे बालेकिल्ले आशिल्ले पूण १८ व्या शेंकड्याचे निमाणेकडे रानां मारपाक सुरवात जातकच संताळ लोक ईशान्येवटेन राजमहाल दोंगुल्ल्यांकडे गेले. थंय दमिन इ - कोह हें तांचें मुखेल केंद्र जालें.

इ.स. १७९० च्या अदमासाक इंग्रजांनी बंगालांत जमीनदारी पद्दत सुरू केली. हिंदू वेपारी आनी सावकारांनी संताळ प्रदेशांत

आपलें बस्तान बसोवन संताळांक खूब सतायले. तांच्यो जमनी घेतल्यो आनी तांकां गुलाम केले. हाका लागून संताळ लोकांनी तांचे आड बंड उबारलें. सुरवेक सनदशीर मार्ग आपणावन, सावकारशाय नश्ट करची आनी जमनीवयलो कर उणो करचो अशी ताणीं स्थानिक अधिकाऱ्यांकडे मागणी केली. पूण तांची ही मागणी न्हयकारिल्ल्यान ताणीं हिंसेचो मार्ग धरलो. तेन्ना इंग्रजांनी लश्कराच्या आदारान तांचें बंड मोडून काडलें. इ.स. १८५५ वर्सा ह्या बंडांत संताळांचे खूब हाल जाले आनी ते गंगा न्हंय हुंपून उत्तर बंगालांत आयले. बंडाउपरांत दमिन - इ -कोहासावन संताळ वसतीचो वेगळो असो संताळ परगणो निर्माण जालो. इंग्रजांनी तांचो वेगळो राज्यकारभार सुरू केलो. दर एका खेड्यांत मांझी वा पाटील नेमून ताचेकडे पोलीस अधिकारय दिले. सरकारान वेठबिगारीची पद्दत बंद केली.

संताळ लोक उलयतात ते भाशेक संताळी अशें नांव आसा. ही एक पुर्विल्ली बोली आसून, तिचो आस्पाव मुंडा भाशा पंगडांत जाता.

संताळ लोक रानांत खोंपी बांदून रावतात. मध्यम वर्गीय लोकांच्यो दोन खोंपी आसतात. बडयांचेर माती मारून तांच्यो वण्टी उबारतात. वाशे कोंड्यांचे आसतात. पाखें तणान धांपतात. खोंपीच्या एका कोनशाक कुलदेव आनी पितरांखातीर इल्लीशी सुवात दवरतात. आंगणांत एके वटेन गोरवांचो गोठो, दुकरांखातीर जागो आनी कबुतरांखातीर खुराडें आसता. तांचे खोंपींत एक चारपाई, तांब्याचीं आयदनां, कांशाचे वाडगे, मातयेचीं आयदनां, सारन इतक्योच वस्तू आसतात. जेवणाखातीर ते साल रूखांचीं पानां आनी उदक पिवपाक त्या पानांचे दोणे वापरतात. कांय जाणांगेर भात कांडपाखातीर लांकडी वा फातराची उरवळ आसता आनी पीठ दळपाखातीर दातें आसता.

बीरभूम जिल्ह्यांतल्या संताळ लोकांच्या खोंपींनी कोंड्यांच्यो खाटी, शेंदऱ्यो, लाकडाचे बांक, पेट्रोलाचे दिवे, पाटले, मुसळां, दातें आसता. घरगुती उपेगाचीं आयदनां तांब्या - पितुळचीं, ॲल्युमिनियमचीं आनी एनॅमलचीं  आसतात.

संताळ लोक मध्यम उंचायेचे आसून, तांचें शरीर धडधाकट आसता. ते रंगान काळे आनी रूंद आनी चेपट्या नाकाचे आसतात. तांचे केस कुरळे, भुंवयो धोणवा आकाराच्यो, मुखामळ गोल, मोठे दोळे आनी दाट ओंठ आसतात. तांच्या पोल्यांचीं हाडां मात्शीं वयर आयिल्लीं आसतात. हे लोक खूब सहनशील आनी कश्टाळू आसतात.

शीत आनी दाळ हें तांचें नित्याचें जेवण. केन्नाय भाजी, मांस, नुस्तें, फळां, कंदमुळांय ते खातात. भातापसून हंडिया नांवांचो सोरो ते तयार करतात. मोहाच्या फुलांपसुनय ते कडक सोरो काडटात. ल्हान - व्हड सगळेजाण सोरो पितात. हालीं सरकारान हंडिया सोऱ्याचेर बंदी घाल्या. फक्त परबे दिसाच सोरो काडपाची परवानगी दिल्या. हे लोक तंबाकू खातात आनी विडयो ओडटात.

संताळ कामगार लोक कमरेभोंवतणी कपड्याचो एक अशीर पटो गुठलायतात. ताका कोपणी म्हण्टात. हेर दादले पुडवें न्हेसतात. बायलो साडयो न्हेसतात आनी धातूच्यो वा कंवचेच्यो वस्ती घालतात.

संताळांच्या पुराणाप्रमाण ठाकूरदेवान धर्तरेक उदकांतल्यान वयर काडली म्हणून ठाकूर हो सगळयांत श्रेश्ठ देव आसा. जल्मांत एक फावट तरी संताळान ताची पुजा करूंक जाय. माराङ्‌बुरू, मेरेको, जहर एरा, गोसाय एरा, परगणा बोंगा, मेझी बोंगा हे तांचे मुखेल बोंगा आसात. ते मनशाचें वायट करूंक शकतात देखून तांकां हे लोक कोंबडी, बोकडी हांचे बळी दितात. ते राक्षस, वेताळ वा भुतां हांकांय मानतात. तांच्या दर एका खेड्यालागसार साळ रूखांचे एक बन आसता, ताका 'जाहेर्थान' म्हण्टात. तातूंत गांवांतल्या मुखेल देवतांचें वास्तव्य आसता असो तांचो समज आसा.

संताळ लोकांत बारा पारी वा गोत्रां आसून तांच्यांत एकाच गोत्रांत लग्नां जायनात. दर एका गोत्राचीं जायतीं उपगोत्रां आसून, तांकां 'खूत' म्हण्टात. अशे वट्ट २०२ खूत आसात. दर एका खुताचे विंगड विंगड बोंगा वा कुलदेव आसतात. त्या त्या खुतांतल्या लोकांकच तांची पुजा करपाक मेळटा.

संताळ लोक लग्नाक 'बाप्ला' अशें म्हण्टात. तातूंत सात प्रकार आसात - १) किरीन बहू बाप्ला : किरीन बहू म्हळयार विकती घेतिल्ली सून. लग्नप्रकाराक समाजांत मान आसा. न्हवऱ्याचो आवय - बापूय मध्यस्थामार्फत लग्न जुळोवन व्हंकलेच्या आवय - बापायक देज दितात आनी लग्न करतात. २) टुंकी दिप्ली बाप्ला : टुंकी म्हळयार टोपली. गरीब लोक अशे तरेन लग्न करतात. हातूंत दिवप - घेवप नासता. व्हंकल एका पाटल्यांत बसून न्हवऱ्यागेर वता. थंय न्हवरो तिच्या कपलाक शेंदूर लायता. ३) संग बाप्ला : विधूर जेन्ना विधवेकडे वा घटस्फोट घेतिल्ले बायलेकडे लग्न करता, ताका संग अशें म्हण्टात. ४) घरदी जांवय बाप्ला : एकूच चली आसल्यार तिच्या घोवाक घरजांवय करून ताणें व्हंकलेगेर कायमचें रावपाचें आसता. ५) किरीन जांवय बाप्ला : हाचो अर्थ विकतो जांवय - लग्न, असो जाता. एकाद्री चली लग्नापयलीं गुरवार जाली आनी त्या चल्याक एकाच गोत्राक लागून वा आनीक कसल्याय कारणाक लागून तिचेकडे लग्न करपाक मेळना तर ताणें तिका न्हवरो विकतो घेवन दिवंचो पडटा. म्हळयार लग्नाचो सगळो खर्च करचो पडटा. ६) इतुत बाप्ला : बळजबरीन एकाद्रे चलयेक शेंदूर लावन लग्न करप. ७) वीर बोलोक बाप्ला : एकाद्रो चलो, चलयेकडे लैंगीक संबंद जुळोवन, लग्न करीनासतना सोडून दिल्यार ती चली त्या चल्यागेर वचून बसता. तो चलो तिचेकडे लग्न करूंक तयार नासल्यार तें प्रकरण ग्रामपंचायतीकडे सोंपयतात. पूण अशीं लग्नां चडशीं जायनात.

संताळ लोकांगेर लग्न थारतकच साकरपुडो करतात.

लग्नांत न्हवऱ्यान व्हंकलेच्या कपलाक शेंदूर लावप होच लग्नांतलो मुखेल विधी आसता. दीसभर दोगांय उपाशी आशिल्ल्यान दोगांय एकठांय जेवतात. उपरांत व्हंकलेक न्हवऱ्याच्या गोत्रांत प्रवेश मेळ्ळो अशें म्हण्टात.

दर एका संताळ मनशाचे जिणेंत जनम चटियर, काको चटियर, लग्नविधी आनी अंत्यसंकार हे चार म्हत्वाचे विधी आसतात.

जनम चटियर म्हळयार जल्मविधी. चलो जाल्यार पांचव्या दिसा आनी चली जाल्यार तिसऱ्या दिसा हो विधी करतात आनी भुरग्याक नांव दवरतात. काको चटियर हो विधी करतकच भुरग्याक समाजांत प्रवेश मेळटा. हो विधी केल्याबगर कोणाक लग्न करपाक मेळना. सादारणपणान चार ते बारा वर्सांच्या दरम्यान चल्याचो हो विधी करतात.

संताळ लोकांत, मनीस मरतकच ताका तेल लावन उपरांत जाळटात. मेल्ल्या मनशाचो व्हडलो चलो वा लागींचो सोयरो चितेक अग्नी दिता. मडें जळटकच ताचे कवटेचो थोडो भाग आनी गळयाकडलीं दोन हाडां काडून घेवन तीं धुवून एका मडक्यांत दवरतात. सुगीचो सण जातकच म्हळयार डिसेंबर म्हयन्यांत ताच्यो अस्थी दामोदर न्हंयेत वा कोपई न्हंयेत सोडटात. ह्या विधीक जान बाहा अशें म्हण्टात. पितरांच्या नांवांन बलिदान करून त्या दिसा मेल्ल्या मनशाच्या सोयऱ्यांक आनी गावंकऱ्यांक जेवण दितात. न्हंयेचे देगेर मेल्ल्या मनशाच्या आनी पितरांच्या नांवांन कपडे, पितुळची थाळी, दातवणाच्यो काडयो ह्यो वस्तू दवरतात. ह्या विधीन मृतात्मो आपल्या पितरांक वचून मेळटा असो समज आसा.

संताळ दर वर्सा इरोक सिम, हरियर सिम, इरी गुंडली नाडवाई, जंथर, सोहराय, माघ सिम, बाहा छटा पोरोब, जत्रा पोरोब आनी पटा वा पोटा परब हे सण मनयतात. पयल्या सात सणांवेळार मुखेल बोंगांची पुजा करतात. पयले पांच सण शेताच्या विंगड विंगड अवस्थांकडे संबंदीत आसात.

हे लोक जादू आनी बोंगा हांचेपसून आपली राखण करपाखातीर जान गुरू आनी ओझा गुरू हांचो आदार घेतात. ओझा गुरू हो मनीस दुयेंत पडल्यार ताका झाडापाल्याचीं वखदां दिवन, मंत्रतंत्र म्हणून बलिदानय करतात. संताळांक झाडपालो, वनस्पत आनी मुळां हांचेपसून मेळपी तीनशें पांच तरांचीं वखदां खबर आसात. गोरवांखातीर तांचेकडे पंदरा वखदां आसात. तशेंच ते गंडेदोरे आनी ताईत हांचोय उपेग करतात.

शेती हो तांचो मुखेल धंदो आसा. तशेंच ते गोरवां पोसप, शिकार, नुस्तेंमारी, मजुरी आनी घरकाम हेय धंदे करतात. शेतांत ते भात, जोंधळो, बाजरी, कडुण, गंव, जव, वाटाणो, हरभरो, तंबाकू तशेंच भाजीपालो पिकयतात. तेचभशेन हे लोक व्हड प्रमाणांत च्या मळयांनी मजुरी करतात. लोहमार्ग तयार करप, कोळसो आनी अभ्रक हांच्यो खाणी, भाताच्यो गिरण्यो, पोलादाचे कारखाने हांगाय हे लोक आतां मजूर म्हणून काम करतात.

दर एका गांवाचो कारभार पंचायतीवतीन चलता. तातूंत सात अधिकारी आसतात ते अशे - १) मांझी वा पाटील २) परणिक वा उपपाटील ३) नायके वा आतो नायके. हो गांवांचो पुरोयत वा भगत आसता. तो जात्रेक गांवांतल्या देवांची पुजा करता. ४) कुडाम नायके हो, रानांत रावपी स्थानिक भुतांक संतुश्ट करता. ५) जोग - मांझी हो गांवांतल्या तरनाट्यांच्या नैतिक आचरणांचेर नदर दवरता. ६) जोग - परणिक हो परणिकांक आदार करता. ७) गोडेत हो पंचायतीचे रकाद पावयता. खेड्याचे स्थापनेवेळार ह्या अधिकाऱ्यांची वेंचणूक जाता. वंशपरंपरेन तांचो अधिकार चलता. गांवांच्या हिताची राखण करप हें पंचायतीचें मुखेल काम आसता.

धा ते बारा खेड्यांचो मेळून एक पंगड जाता. ताचें फुडारपण करपी मनशाक परगणा वा परगणाइत म्हण्टात. ह्या पंगडाचीय एक पंचायत आसता. तातूंत सगळ्या खेड्यांचे मांझी आनी प्रतिश्ठित लोकांचो आस्पाव आसता. दोन खेड्यांतले वादाचे प्रस्न हे पंचायतींत सोडयतात.

बासरी हें तांचें आवडटें वाद्य. ल्हानपणासावन भुरग्यांक बासरी वाजोवंक शिकयतात. सांजवेळा जोगमांझीच्या घरासामकार तरनाटे बासरी आनी धोल वाजोवंक लागतकच चलयो नटून थटून थंय नाचूंक येतात.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणे संताळांचो किरिस्तांव मिशनऱ्यांकडे संबंद आयलो. इ. स. १८६० वर्सा इंग्लंडचे चर्च मिशनरी सोसायटीच्या कार्यकर्त्यांनी संताळ परगण्यांत कार्य करपाक सुरवात केली आनी थोडे संताळ किरिस्तांव जाले. किरिस्तांव मिशनऱ्यांनी संताळांभितर एक म्हत्वाचें कार्य केलें तें म्हळयार तांचे बोलीभाशेखातीर स्वतंत्र लिपी तयार करून शाळा सुरू केल्यो. आधूनीक काळाचो परिणाम हेर जमातीसारकोच संताळ जमातीचेरय जालो आनी देखून तांच्या चालीरितींनी, आचारविचारांनी बदल घडत रावलो.

- कों. वि. सं. मं.

**संन्यास :** संवसार सोडून विरक्तपणान देवभक्ती वा आध्यात्मिक साधना करपाची अवस्था काम्य कर्मांचो त्याग म्हणजेच संन्यास अशीय ताची व्याख्या आसा. तशेंच आश्रमवेवस्थेंतलो तो चवथो आश्रम.

संन्यास केन्ना घेवंचो त्याविशीं मनुस्मृतींत दिल्लो श्लोक असो आसा -

वनेषु च विहृत्यैवं तृतीयं भागमायुष ः।
चतुर्थमायुषो भागं त्यक्त्वा सङ्गान् परिव्रजेत् ।।

**अर्थ** - अशे तरेन जिविताचो तिसरो वांटो रानांत घालोवन आयुश्याच्या

चवथ्या वांट्यांत सर्वसंगपरित्याग करचो आनी संन्यस्त जावंचें.

संन्यासग्रहणाविशीं दोन मतां आसात. तीन आश्रमांचें यथाविधी आचरण केल्या उपरांत संन्यास घेवप हें पयलें मत आनी 'यदहरेव विरजेत् तदहरेव प्रव्रजेत्' म्हणजे ज्या दिसा निरिच्छताय येता त्याच दिसा आश्रमक्रम विचारांत घेनास्तना संन्यासाश्रम पत्करचो, हें दुसरें मत. विविदिशा आनी आतूर हे संन्यासाचे दोन प्रकार. पयलो सविधी आनी दुसरो अविधी आसता. विविदिशा म्हणजे आत्मगिन्यानाचे इत्सेन घेतिल्लो संन्यास आनी मरण आतां लागीं पावलां अशें जाणवतकच चतुर्थाश्रमांत मरचें ह्या हेतून बेगिनचे बेगीन घेतिल्लो संन्यास म्हणजेच आतूर संन्यास.

वानप्रस्थ आनी संन्यास हीं उतरां वेदांत नात. हाचेवयल्यान संहिताकाळांत हे आश्रम म्हणून प्रस्थापित जाल्ले नासुंये अशें दिसता. फुडें उपनिषद काळांत ते चालू जाले. उपनिषदांच्या काळांत यज्ञयाग आनी कर्मकांड हांचेवयलो वैदिकांचो विश्वास कमी जालो आनी गिन्यान - वैराग्याचें म्हत्व वाडलें. ह्याच विचार क्रांतीतल्यान संन्यासाश्रमाक आरंभ जालो. उपनिषदांत चारय आश्रमांची कल्पना आसा. पूण तसो उल्लेख करपी उतरां नात. याज्ञवल्क्य आनी मैत्रेयीची कथा बृहदारण्यकांत आयिल्ली आसा. थंय याज्ञवल्क्य म्हण्टा. 'हे मैत्रेयी, हांव आतां घर सोडून प्रव्रज्या घेतलो, म्हणजेच संन्यास पत्करतलों'. प्रव्रज्या हें संन्यासाचेंच पर्यायी उतर. बौध्द वाङ्‌मयांतय तें सांपडटा. जाबालोपनिषदांत मात संन्यासाचें वर्णन सांपडटा. मुंडकोपनिषदाच्या काळामेरेन चार आश्रमांची कल्पना रूढ जावन तातूंत संन्यासाश्रमाक प्राधान्य दिल्लें. पाणिनीच्या काळामेरेन संन्यासी वा परिव्राजक ही संस्था संघटित जाली. संन्यास धर्माच्या उपदेशाखातीर भिक्षूसूत्रांय निर्माण जालीं. मागीर धर्मसूत्रांनीय पयलींच्या तीन आश्रमांवांगडा संन्यासाचेंय वर्णन केलें.

संन्याशाचे चार प्रकार अशे आसात - १) कुटीचक - पुतान बांदून दिल्ले खोपटेंत रावपी आनी त्रिदंड, कमंडलू आनी शिखासूत्र दवरपी. हो पूत आपल्या मनशांकडेन भिक्षा मागता. २) बहूदक - त्रिदंड, कमंडलू आनी भगवीं वस्त्रां न्हेसपी. हाणें सात घरांत भिक्षा मागपाची आसता. मांस, मीठ आनी बाशें जेवण हाका वर्ज आसता. ३) हंस - हो गांवांत एक रात आनी नगरांत पांच राती रावता. हो इकरा म्हयने भिक्षा मागता आनी एक म्हयनो उपास करता. ४) परमहंस - हो रूखाखाला, पडींग घरांत वा मसंडेंत रावता. एक वस्त्र वापरता वा नागडो रावता. हाका धर्मकर्मांचे विधिनिशेध नासतात. हाका सगळ्यांच्या घरांतली भिक्षा चलता.

हे चार प्रकार क्रमान उत्तरोत्तर श्रेश्ठ आसात. संन्यासी निर्भय आनी अभयदानी आसता. तो जिविताची खोस आनी मरणाचें दुख्ख करिना. तो दोनयकडेन निरपेक्ष आसता. तो प्रणवाचो उपासक आनी सम्यक्‌दर्शनसंपन्न सगळया भावांविशीं निस्पृह आनी सगळया द्वंद्वांच्या सुवादीन आसता. ह्या आश्रमांत मनशाक सर्वतंत्रस्वतंत्र जावन अध्यात्मशील जावपाची संद मेळटा. तशेंच ह्याच आश्रमांत ताका असीमतेचो अणभव घडपाक शकता आनी निमणें सत् मेळोवपाखातीर ताका आपले सगळे शक्तीचो पुराय उपेग करपाक येता.

वनप्रस्थांतलें मनन, चिंतन आनी तप हें संन्याशाच्या ब्रह्मज्ञानाक साधक जाता. ब्रह्मज्ञान जाले उपरांत मागीर ताका ह्या साधनांची गरज उरना. अशा ब्रह्मज्ञानी संन्याशांचे उल्लेख उपनिशदांतय सांपडटात. अशे संन्याशी ब्रह्मसंस्थ जातात अशें छांदोग्यांत म्हळां.

संन्यास घेवपाक अधिकारी कोण हेविशीं जायत्या जाणांचीं वेगवेगळीं मतां आसात. मुंडक आनी बृहदारण्यक हातूंत संन्यासाच्या संदर्भांत ब्राह्मण अशें उतर आयिल्लें आसा. हें ब्राह्मण उतर उपलक्षण समजून जायते धर्मशास्त्री तातूंत सगळया द्विजांचो म्हणजे त्रैवर्णिकांचो आस्पाव करतात. संन्यास खंयच्याय वर्णाक घेवपाक येता म्हणपाचें जाबालोपनिशदावयल्यान दिसता. वैराग्य उत्पन्न जाल्यार कोणेय संन्याशी जावंचें अशें महाभारतांत म्हळां. कात्यायनाच्या मतान त्रैवर्णिकांक संन्यासाचो अधिकार आसून बायलांक मात तो ना. महाभारतांत तर शुद्राकय सगळया आश्रमांचो अधिकार सांगला.

ब्राह्मणाशिवाय हेर वर्णांत चडकरून संन्यासाची चाल नाशिल्ली. त्रैवर्णिक आनी शूद्र संन्याशी चडशे दिसच नाशिल्ले. देखून जंय - जंय संन्याशाचें वर्णन येता थंय ब्राह्मणच अभिप्रेत आशिल्लो दिसता. आपणें ब्राह्मणांकच संन्यास सांगला अशें मनून स्पश्ट सांगलां. शंकराचार्यानय ह्याच मताक तेंको दिला.

संन्यास ग्रहणाखातीर उत्तरायण योग्य आसा. आतुराक दक्षिणायणय योग्य आसा. संन्यास घेवपाची इत्सा आशिल्ल्यान कांय दीस गुरूलागीं रावन यतिधर्माचो अभ्यास करचो. मागीर गायत्रीजप, रूद्रजप, कूष्मांड होम हाणीं देहशुध्द केल्याउपरांत रिक्ता तिथीक (चवथ, नम वा चतुर्दस) देशकालांचें स्मरण करून अधिकारप्राप्तीखातीर कांय दानां दिवंचीं. आठ श्राध्दां करचीं. दुसऱ्या दिसा फकत स केंस दवरून बाकीचे सगळे केंस कापचे. आशिल्ली सगळी संपत्ती ब्राह्मण आनी पुतांक वांटून दिवंची. ब्राह्मणांकडल्यान कोंड्याचो दंड हाडून घेवंचो आनी पादुकाय तयार दवरच्यो मागीर संन्यासग्रहणाचो संकल्प करचो. गणपतिपूजन, पुण्याहवाचन, मातृकापूजन आनी नांदीश्राध्द करचें. देवतांचो नामजप करचो कांय वैदिक सुक्तां म्हणचीं. तीन मुठी सातूंचें पीठ प्रणवमंत्र म्हणून तीन खेपे प्राशन करचें. बोंबलेक स्पर्श करचो. दूद आनी धंय हांचे मिश्रण आशिल्लें घृत जांव उदक तीन खेपे प्राशन करून उपास करचो. मागीर सावित्री प्रवेश आनी ब्रह्मान्वाधान करचें. सांजवेळची संध्या, होम आनी वैश्वदेव करून अग्नीलागीं जागरण करचें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं वैश्वानर स्थालीपाक करचो. प्राणाय स्वाहा सारकिल्या पांच मंत्रांनी समिधा, चरू आनी आज्य ह्या तीन

द्रव्यांचो होम करून 'पुरूषायेदं न मम' असो त्याग म्हणचो. मागीर समिधा, चरू आनी आज्य हातुंतल्या दर एका द्रव्याच्या चाळीस आहुतींनी विरजाहोम करचो. तो जातकच ब्रह्मचाऱ्यांक कांय दानां दिवंचीं. मागीर तीन खेपे यजुर्मंत्र म्हणून अग्नीची ज्वाला प्राशन करीत आपल्या जाग्यार अग्नीचो समारोप करचो. घरांतल्यान भायर सरतना पूत आनी हेरांक हो आशिर्वाद दिवंचो -

सर्वे भवन्तु वेदाढ्या : सर्वे भवन्तु सोमपा :।
सर्वे पुत्रमुखं द्दष्टवा सर्वे भवन्तु भिक्षुका :।।

**अर्थ** - सगळे वेदपारंगत जांव, सगळे यज्ञांत सोमपान करपी जांव, सगळे पुतांचें तोंड पळोवन संन्यासी जांव.

ताचे उपरांत 'न मे कश्चित नाहं कस्यचित्' (म्हजो कोण ना आनी हांव कोणाचो न्हय) अशें पूत आनी हेरांक सांगून तांचो निरोप घेवंचो. मागीर जलाशयाचेर वचून उदकानच उदकांत तीन पोशे अर्घ्य दिवंचें.

पुत्रैषणा वित्तैषणा लोकैषणा सर्वेषणा मया परित्यक्ता
अभयं सर्व भूतेभ्यो मत्त : स्वाहा ।

**अर्थ** - म्हाका पुताची, धनद्रव्याची, यश किर्तीची आनी खंयच्याच गजालींची इत्सा ना. म्हज्यापसून आतां सगळया भूतांक अभय आसा.

अशें म्हणून परत एक फावट उदकांजली सोडची. बोंबलीभर उदकांत उदेंतेवटेन तोंड करून उबो रावन 'तरत्समन्दी ....' ह्या सूक्ताचो पाठ करचो. हाचेफुडें आपूण भिक्षेचेर जगतलो अशें म्हणून आनीक एक पोसोभर उदक सोडचें. शिखा आनी जानवें उदकांत उडोवंचें. विष्णुची प्रार्थना करची. नागडो जावन उत्तरेवटेन पांच पावलां चलचें. कौपीन आनी वस्त्र घालचें. हातांत दंड, कमंडलू आनी आसन ह्यो वस्तू घेवंच्यो. गुरूक शरण वचचें आनी ताचे पांय धरून 'म्हाका ब्रह्मज्ञान सांग' अशें मागचें. गुरून एका शंखांत उदक घेवंचें आनी तें प्रणवमंत्रान अभिमंत्रित करून ताणें शिश्याक अभिशेक करचो. शांतिपाठ म्हणून शिश्याचे तकलेर हात दवरचो आनी ताच्या उजव्या कानांत 'तत्त्वमसि' जांव दुसरें खंयचेंय महावाक्य उच्चारून ताचो अर्थ सांगचो. मागीर संप्रदायाप्रमाण शिश्याचें नांव दवरचें.

मागीर खंयच्याय एका बऱ्या दिसा एकाद्र्या गृहस्थान संन्याशाक मुखार बसोवन माती आनी उदकान ताचे पांय धुंवचे. मागीर त्या यतीन कटीची (कमरेची) शुध्दी करून कटिसूत्र आनी कौपीन धारण करची. कमराभोंवतणी वस्त्र गुंडाळचें. यतीन व्हड यतीक पांयां पडचें. गृहस्थी पुरुशांनी यतीक पांयां पडचें. यतीन 'नारायण' असो आशिर्वाद दिवंचो.

संन्याशान कांय गजाली पाळपाच्यो आसतात. ताणें सकाळींफुडें उठचें. ब्रह्मणस्पतीच्या मंत्रांचो पाठ करचो. देहशुध्दी आनी दंडशुध्दी करची. प्रणवान दंतधावन करचें. न्हावन प्राणायाम आनी केशवादी नांवांनी तर्पण करचें. सूर्योपस्थान करून तीन खेप विष्णुपुजा करची. आपले उपजिवीकेखातीर माधुकरी (भिक्षा) मागची. व्या हतिमंत्रांनी सूर्यादिदेवतांक आनी भूतांक भुंयेचेर भिक्षान्न दिवंचें. उरिल्लें अन्न विष्णुक निवेदीत करून जेवचें. जेवणा उपरांत आचमन करून सोळा प्राणायाम करचे. संन्याशाक भिक्षा घालतना दात्यान पयलीं ताच्या हाताचेर उदक घालून मागीरच भिक्षा घालची. यतीन वर्सकाळाशिवाय हेर काळांत गांवांत एक रात आनी लोक वस्तींत पांच राती रावचें. पावसाळयांत चार म्हयने एकाच जाग्यार रावन आठ म्हयने भोंवचें. महाक्षेत्रांत रावप्यांनी भोंवचें न्हय. भिक्षाटन, जप, न्हाण, ध्यान, शुचिर्भूतपणा आनी देवपुजा ह्यो स गजाली संन्याशाक गरजेच्यो आसात. यतीचीं आयदनां माती, कोंडो, लांकूड वा दुदयाचीं आसचीं. तशेंच हेर गजालींचें अध्ययन करिनासतना ताणें वेदार्थाचेंच मनन - चिंतन करचें.

एक फावट संन्यासाश्रम आपणायल्याउपरांत ताचो त्याग करून परत गृहस्थाश्रमांत येवपाक मेळना. अशा पुरूशाक जायत्यो शिक्षाय सांगिल्ल्यो आसात.

संन्यासी मेल्या उपरांत पुतान जांव शिश्यान वपन करचें आनी कळशीभर उदक अभिमंत्रित करचें. रूद्रसूक्त, विष्णुसूक्त आनी हेर ऋचा म्हणत यतीक न्हाण घालचें. आंगाक चंदन आनी गळयांत फुलांची माळ घालची. देड हात फोणकूल मारून तातूंत पंचगव्य शिंपडावचें. तीन जाग्यांचेर दंड मोडून यतीच्या उजव्या हाताचेर दवरचो. भूर्भुव : स्व : हो मंत्र म्हणून शंखान यतीचें मस्तक फोडचें. फोणकुलांत मीठ घालचें आनी त्रातूंत मेल्ल्या यतीक बसोवंचो. मागीर फोणकूल पुरोवंचे. जमिल्ल्या सगळयांनी न्हंयेचेर वचून न्हांवन घरा येवंचें. कुटीचकाचें दहन करचें; बहूदकाक पुरचो; हंसाक जलसमाधी दिवंची आनी परमहंसाक त्याच जाग्यार पुरचो अशें वचन आसा.

कर्त्यान फकत धा दीस तर्पण करचें. लिंगपूजन, पायसबली आनी दीप दान करचें. इकराव्या दिसा पार्वण श्राध्द करचें. बाराव्या दिसा नारायणबली करचो. तेराव्या दिसा तेरा संन्यासी वा तेरा ब्राह्मणांक जेवण घालचें. भाद्रपद कृष्ण पक्षांत दुवादशीक यतीचें महालयश्राध्द करचें अशेंय सांगलां.

आद्य शंकराचार्य, विवेकानंद, रामतीर्थ सारकिले जायते व्हड संन्यासी भारतांत जावन गेले. तांकां जायते शिश्य लाबले. ह्या सगळयांची शिश्यपरंपराय खूब व्हड आसा. तांचें ज्ञानप्रसाराचें कार्य अजूनय चालू आसा. हे सगळे संन्यासी वेदान्ती आशिल्ले.

वेदान्त आनी संन्यास हांचो लागिंचो संबंद आसा. वेदान्तसाधना म्हणजे आत्मसाधना. संन्यास हें तिचें एक गरजेचें आंग. जिवितांतल्यो मोलादीक गजाली त्यागून आत्मप्राप्तीचो साधक जावपाचें आसता. सगळीं मानवी बंधनां आनी बायल, घर, संपत्ती आनी पूत हांचे पास तोडूनच कोणय अध्यात्ममार्गविल्यान वचपाक

शकता. देखून फकत वेदांतच न्हय जाल्यार पुर्विल्ल्या सगळ्या दर्शनांचें संन्यास हें एक गरजेचें आंग थरलां.

- कों. वि. सं. मं.

**संयुक्त राष्ट्रसंघटना :** दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत भक्षक झुजां पयस दवरून, आंतरराष्ट्रीय शांतताय आनी सुरक्षा बाळगूपाच्या हेतान अस्तित्वांत आयिल्ली एक जागतीक संघटना. १९१९ त पयल्या म्हाझुजाउपरांत संवसारीक शांतताय आनी सहकार्याचे उंचेले भावनेन प्रेरित जावन राष्ट्रसंघाची (Leage of Nations) स्थापना जाल्ली. म्हाझुजाउपरांतच्या काळांत परत म्हाझुजासारकी संहारक आपत्ती संवसाराचेर येवची ना अशी राष्ट्रसंघाची अपेक्षा आशिल्ली. १९२० ते १९३९ ह्या काळखंडांत राष्ट्रसंघान आपले मोखीप्रमाण कार्य करपाचो यत्न लेगीत केलो. पूण दुसऱ्या म्हाझुजावटेन व्हरपी युरोपाचें राजकारण थांबोवपाक तिका अपेश आयलें. अमेरिका राष्ट्र ह्या संघासावन पयलींच भायर रावली, तशेंच राष्ट्रसंघालागीं लश्करी बळ नाशिल्ल्यान जपान, इटली, जर्मनी, रशिया हांकां तांच्या आक्रमक धोरणासावन आडावंक संघाक अपेश आयलें. दुसऱ्या म्हाझुजांत, इंग्लंड, अमेरिका आनी सोव्हिएत रशिया हीं तीन व्हड राष्ट्रां झुजकार्याखातीर एकठांय आयलीं. ह्या झूजसहकार्यांतल्यानच परत एकदा आंतरराष्ट्रीय संघटनेच्या कल्पनांक चालना मेळ्ळी. ८ एप्रिल १९४६ ह्या दिसा राष्ट्रसंघान आपलीं सगळीं सुत्रां संयुक्त राष्ट्रसंघटनेकडेन दिवपाचें थरयलें. उपरांत १९ एप्रिल १९४६ ह्या दिसा राष्ट्रसंघाचें विसर्जन केलें.

दुसऱ्या म्हाझुजावेळार जर्मन, इटली आनी जपान हांच्या आक्रमणांच्या निशेधांत अमेरिका, इंग्लंड, सोविएत रशिया हीं राष्ट्रां एकठांय आयलीं. झूज चालू आसतनाच झुजाउपरांतच्या काळांत शांतताय प्रस्थापित करपाखातीर खंयची उपाय येवजण करची ह्या विशयाचेर एकवटीत राष्ट्रांभितर विचारविनिमय चालू आसलो. १९४२ त पयले खेपो संयुक्त राष्ट्रां (United Nations) हो शब्दप्रयोग इश्टगटामदें अस्तित्वांत आयलो. झुजाच्या उपरांतच्या काळांत इश्टराष्ट्रांनी एकवटीत राष्ट्रसंघटना निर्मूपाखातीर यत्न सुरू केले. १९४४ त उंबार्टन ओक्स हांगा अमेरिका, इंग्लंड, सोविएत रशिया आनी चीन ह्या चार व्हड राष्ट्रांच्या मुणयाऱ्यांनी नवे संवसारीक संघटनेचो मसुदो तयार केलो. ह्या मसुद्याचेर फेब्रुवारी १९४५ त याल्टा शारांत स्टालीन, रुझवेल्ट, चर्चिल ह्या फुडाऱ्यांचे गुपीत बसकेंत विचारविनियम जावन, ताका मान्यताय दिवपांत आयली.

फुडले पिळगेक झुजांच्या अरिश्टांकडल्यान वाटोवपाखातीर फावो तो वावर करून आंतरराष्ट्रीय शांतताय आनी सुरक्षा बाळगप हाकाच संघटनेन आपलो पयलो वयलो हेत मानला. राष्ट्रांराष्ट्रांमजगतीं इश्टागत घडोवन हाडप, अर्थीक, समाजीक, संस्कृतीक तशेंच मनीसहीत संबंदीत प्रस्न सुटावे करप आनी खंयचेय मतभेद वा झगडीं शांततायेन सोडवप हांचेर संघटनेन चड भर दिल्लो. दर एका वांगड्यान संघटनेच्या घटनेखाल घेतिल्ल्या खंयच्याय निर्णयाक आदार दिवपाक जाय अशें करारांत स्पश्ट केल्लां. खंयच्याय शांततामोगी राष्ट्रान संयुक्त राष्ट्रसंघनेचो वांगडी जावं येता, पूण तेखातीर ताका संघटनेच्या आमसभेची (General Assembly) आनी सुरक्षा मंडळाची (Security Council) मान्यताय मेळोवची पडटा.

संयुक्त संघटनेच्यो वावराप्रमाण स वेगवेगळ्यो विभागीय संस्था स्थापीत केल्यात त्यो अशो -

**१) आमसभा (General Assembly) :** आमसभेंत संयुक्त राष्ट्रसंघटेनेच्या सगळ्या वांगड्यांक प्रतिनिधीत्व मेळटा. दर एक वांगडी राष्ट्राक चडांत चड पांच वांगडी धाडूं येतात, पूण दर एक राष्ट्राक एकूच मताचो अधिकार आसता. संघटनेचीं चडशीं आंतरराष्ट्रीय गजालींचेर भासाभास घडोवन हाडून प्रस्न सुटावे करता.

**२) सुरक्षा मंडळ (Security Council) :** संघटनेचे कबलातींत आंतरराष्ट्रीय शांतता आनी सुरक्षतायेची मुळावी जापसालदारकी सुरक्षा मंडळाकडेन सोंपयल्या. ते संबंदींचे सगळे हक्क ह्याच मंडळाक दिल्यात. सुरवेक ह्या मंडळांत इकरा वांगडी आसले. तातुंतले पांच (अमेरिका, रशिया, फ्रांस, इंग्लंड आनी चीन) कायम स्वरुपाचे, जाल्यार स वांगडी दोन वर्सांच्या काळाखातीर आसतात. पूण १९६५ त वांगडीपदाचो आंकडो ११ वयल्यान १५ केलो. पूण कायमचे पांच वांगडी तशेंच दवरले आनी उरिल्ले १0 वांगडी दोन वर्सांखातीर नेमपाचो निर्णय घेतलो. मंडळामुखार आयिल्ल्या खंयच्याय प्रस्नाचेर निर्णय थरायतना सात वांगड्यांचीं मतां निर्णयाचे वटेन आसप गरजेचें. जेन्ना सुरक्षामंडळाच्या मुखार चड म्हत्वाचें (Non - Procedural) प्रस्न निर्णयाखातीर आयिल्ले आसतात तेन्ना निर्णयावटेन आशिल्ल्या सात मतांतलीं पांच मतां कायम वांगड्यांचीं आसपाकच जाय (Veto Power). देखून ह्या पांच वांगड्यांचें एकमत आसल्या शिवाय सुरक्षा मंडळ खंयचोच म्हत्वाचो निर्णय दिवंक शकना.

**३) सचिवालय (Secretariat) :** मुखेल सचिवाच्या फुडारपणाखाल ह्या मंडळाचो पुराय कारभार चलता. सुरक्षा मंडळाचे शिफारसीवयल्यान आमसभा मुखेल सचिवाची नेमणूक करता. आंतरराष्ट्रीय संबंद हाताळपाचे बाबींत मुखेल सचिवाची भुमिका म्हत्वाची आसता.

**४) आंतरराष्ट्रीय न्यायालय (International Court of Justice) :** आंतरराष्ट्रीय मळावयले खटले सुटावे करपाक हें न्यायालय आदार करता. आमसभा आनी सुरक्षा मंडळ स्वतंत्रपणान मतदान करून १५ न्यायाधीशांक णव वर्सांखातीर वेंचून काडटात.

**५) अर्थीक आनी समाजीक मंडळ (Economic And**

**Social Council) :** अर्थीक आनी भौशिक मळाचेर बारीकसाणेन अभ्यास करून उदरगतीखातीर योग्य त्यो सुचवण्यो करप ही ह्या मंडळाची मुखेल जापसालदारकी. आमसभा मतदान करून ह्या मंडळाचे ५४ वांगडी वेंचून काडटा. तांचो कार्यकाळ तीन वर्सांचो आसता. ह्या मंडळाच्यो वर्सांतल्यान उण्यात उण्यो दोन बसका जावपाक जाय. संयुक्त राश्ट्रसंघटनेच्या हेर खाशेल्या संस्थांच्या वावराचेरय हें मंडळ लक्ष दवरता.

**विश्वस्त मंडळ (Trusteeship Council) :** विश्वस्त प्रदेशांचो कारभार पळोवपी हेर संस्थांचेर हें मंडळ देखरेख दवरून तांकां योग्य ती सुचोवणी करता. आमसभेच्या फुडारपणाखाल हें मंडळ चलता. १९८० मेरेन सगळे विश्वस्त प्रदेश स्वतंत्र जाल्ल्यान ह्या मंडळाफाटलो मुखेल हेत पुरायपणान सोंपला.

**संयुक्त राश्ट्रसंघटनेच्यो हेर कांय खाशेल्यो संस्था -**

१) अन्न आनी शेतकी संस्था (Food and Agriculture Organization) : शेतकी पिकावळ, तशेंच रान आनी नुस्तें उत्पन्न वाडोवन तांची योग्य पुरवण करप हे संस्थेचो मुखेल वावर.

२) आंतरराश्ट्रीय अणूऊर्जा एजन्सी (International Atomic Energy Agency) : अणूऊर्जेची जतनायेन आनी शांतीपुर्वक उदरगत घडोवन हाडपाखातीर उपेग करप ही हे एजन्सीची मुखेल मोख.

३) विश्व बँक (World Bank) : ही बँक संघटनेच्या विकासशील वांगडी राश्ट्रांक अर्थीक उदरगत घडोवन हाडपाखातीर रीण दीता.

४) आंतरराश्ट्रीय मौद्रीक निधी (International Monetary Fund) : अडचणीच्या वेळार मौद्रीक स्थीरता हाडप आनी आंतरराश्ट्रीय स्थराचेर मौद्रीक सहयोग घडोवन हाडप ही हे संस्थेची मुखेल मोख.

५) आंतरराश्ट्रीय संचारण सेवा (International Telecommunication Union) : रेडिओ, टेलिग्राफ, टेलिफोन आनी अंतराळ - रेडिओ संचारण ह्यो सुविधा आंतरराश्ट्रीय मळाचेर उपलब्ध करून दिवप हो ह्या संस्थांचो मुखेल वावर.

६) संयुक्त राश्ट्रसंघटनेची शिक्षणीक, विज्ञानीक आनी संस्कृतीक संस्था (United Nations Educational, Scientific and Cultural Org.) : शिक्षण, विज्ञान आनी संस्कृती हांचे वतीन वेगवेगळ्या राश्ट्रांभितर मेळ घडोवन हाडप ही हे संस्थेची मुखेल मोख.

७) संयुक्त राश्ट्रसंघटनेचो बाल निधी (United Nations Childrens Fund) : ही संस्था विकासशील राश्ट्रांमदल्या भुरग्यांची भलायकी राखपाक, तांकां शिक्षण आनी योग्य अन्न दिवपाक, तशेंच आवयांक आपल्या भुरग्यांची फाव ती जतनाय घेवपाक मार्गदर्शन करता.

८) जागतीक भलायकी संस्था (World Health Organization) : वेगवेगळ्या रोगांचें निदान करून तांचेर वखदां सोदून काडप आनी तांची पुरवण करून रोग आळाबंदा हाडप ही ह्या संस्थेची मुखेल मोख.

राश्ट्रसंघटनेच्यो ह्यो स्वायत्त्य संस्था आसून, तांचो वावर आनी भितरलो कारभारय स्वतंत्रपणान चलता. ह्यो वेगवेगळ्यो संस्था आपआपले मोखीप्रमाण क्षेत्रीय अभ्यास करून राश्ट्रसंघटनेक योग्य त्यो सुचोवण्यो करता.

- प्रा. राजय पवार

**संवत्सर :** महाकालाचो एक भाग. संवत्सराची व्याख्या अशी आसा - 'सम्यग् वसन्ति मासादयोऽस्मन्' म्हळ्यार जातूंत म्हयने बी सारकिल्या कालविभागांचो वेवस्थित आस्पाव जाता, ताका संवत्सर अशें म्हण्टात.

भारतीय पंचांगांत शालिवाहन शकावांगडा एक संवत्सर दिल्लें आसता. तें साठ वर्सांचें एक चक्र आसा. ह्या साठ संवत्सरांचीं नांवां अशीं आसात - प्रभव, विभव, शुक्ल, प्रमोद, प्रजापती, अंगिरा, श्रीमुख, भाव, युवा, धाता, ईश्वर, बहुधान्य, प्रमाथी, विक्रम, वृष, चित्रभानू, सभानू, तारण, पार्थिव, व्यय, सर्वजित्, सर्वधारी, विरोधी, विकृती, खर, नंदन, विजय, जय, मन्मथ, दुर्मुख, हेमलंब, विलंबी, विकारी, शर्वरी, प्लव, शुभकृत् , शोभन, क्रोधी, विश्वावसू ,पराभव, प्लवंग, कीलक, सौम्य, साधारण, विरोधकृत, परिधावी, प्रमादी, आनंद, राक्षस, अनल, पिंगल, कालयुक्त, सिध्दार्थी, रौद्र, दुर्मती, दुंदुभी, रुधिरोद्गारी, रक्ताक्ष, क्रोधन आनी क्षय.

बारा म्हयन्यांच्या काळाक संवत्सर अशें नांव आसा. म्हयन्यांचे जे तरेन चांद्र सावन आनी सौर अशे भेद आसात, तशेच संवत्सराचेय चांद्र, सावन आनी सौर अशे तीन प्रकार आसात. चैत्र शुध्द पाडव्यासावन फाल्गुन उमाशेमेरेनचो काळ, ताका चांद्र संवत्सर अशें म्हण्टात. चांद्र संवत्सर तीनशें चौपन्न दिसांचो मानला. तीनशें साठ दिसांच्या काळाक सावन संवत्सर अशें नांव आसा. मेष राशींत सूर्यान प्रवेश केल्ल्या दिसासावन मीन राशींतल्यान तो भायर सरता त्या दिसामेरेनचो काळ, तें सौर वर्स. सौर वर्स तीनशें पासश्ट दिसांचें आसता. केन्नाय संवत्सराचे बार्हस्पत्य आनी नाक्षत्र अशे आनीक दोन प्रकार मानल्यात. बार्हस्पत्य संवत्सरांत तीनशें एकसश्ट दीस आसतात. तीनशें चोवीस दिसांचें नाक्षत्र संवत्सर आसता.

नर्मदा न्हंयेच्या दक्षिणेकडल्या भारताच्या सगळ्या वाठारांनी कलियुगाचें पयलें वर्स प्रमाथी संवत्सर आशिल्लें अशें मानतात आनी दर वर्सा चैत्र शुध्द पाडव्यासावन संवत्सराचो आरंभ धरतात. अशे तरेन एक चक्र पुराय जातकच परतून प्रभव संवत्सरापसून आरंभ करतात. पूण नर्मदेच्या उत्तरेकडल्या भारतांत ,कलियुगाचे सुरवातेक

खंयचें संवत्सर मानचें हेविशीं मतभेद आसात. वराहमिहिराच्या मतान तें 'विजय' मानचें जाल्यार ज्योतिशतत्त्व ह्या ग्रंथाचो कर्तो तें 'प्रभव' संवत्सर मानचें अशें सांगता. ह्या भागांत संवत्सराचो आरंभ गुरूच्या संक्रमणापसून मानतात. पूण वेव्हारांत मात चैत्र शुध्द पाडव्यासावन नवें संवत्सर सुरू जाता, अशें समजतात.

संवत्सरफल - दर एका पंचांगांत सुरवातेक, त्या संवत्सराचें फल दिल्लें आसता. संवत्सराच्या फलांत राजा, मंत्री, अग्रधान्येश, मेघेश आनी पश्चाद्धान्येश हांचीं नांवां दिल्लीं आसतात आनी त्या ग्रहांच्या स्थानांचीं थरावीक फलांलेगीत दिल्लीं आसतात हे अधिकारी अशेतरेन थारायतात - राजा - चैत्र शुध्द पाडवो ज्या वाराक आयिल्लो आसता, त्या वाराचो अधिपती त्या संवत्सराचो राजा मानतात. देखीक, बिरेस्तारा चैत्र शुध्द पाडवो आयल्यार, त्या संवत्सराचो राजा गुरू. मंत्री - मेषसंक्रांत ज्या वाराक येता, त्या वाराचो अधिपती मंत्री समजतात. अग्रधान्येश - (बेगीन तयार जावपी धान्यांचो अधिपती) कर्कसंक्रांत ज्या वाराक येता, त्या वाराचो अधिपती हो अग्रधान्येश मानतात. मेघेश - आर्द्रा नक्षत्राचेर सूर्य ज्या वाराक येता, त्या वाराचो अधिपती हो मेघेश समजतात. रसेश - तुळासंक्रांत ज्या वाराक येता, त्या वाराचो अधिपती तो रसेश.

रवी राजा आसल्यार अमुक फळ दितलो, चंद्र आसल्यार ताचें फळ अमुक आसतलें, अशीं जीं ग्रहांचीं फलां दिल्लीं आसतात, तीं त्या त्या संवत्सराच्या पंचांगांतल्या वर्षफलांत पळोवंक मेळटात. संवसार पाडव्या दिसा पंचांगांतल्या संवत्सर फळाचें वाचन करपाची कांयकडेन परंपरा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**संवर्त :** एक पुर्विल्लो स्मृतिकार. याज्ञवल्क्यान दिल्ले स्मृतिकारांचे यादींत संवर्ताचें नांव मेळटा. हाच्यो दोन स्मृती उपलब्ध आसून. तातूंत दोनशें सत्तावीस आनी दोनशे तीस श्लोक आसात. त्या स्मृतींनी मुजीउपरांत ब्रह्मचाऱ्यान पाळपाचें कर्तव्य, लग्न जाल्ल्या गृहस्थाचो आचार, फळांसयत सगळया दानांचें वर्णन, संन्यासधर्माचें निरुपण हे विशय आसात. वेव्हाराविशींय ताणें खूब चर्चा केल्या. ताचीं कांय मतां अशीं आसात - जेन्ना तोंडी पुरावो लेखी पुराव्याआड आसता, तेन्ना तोंडी पुरावो मानचो न्हय. ज्या वेव्हारांत व्याजाचो उल्लेख केल्लो नासता, तातूंत व्याज दिवंचें न्हय. ज्या गुन्यावांखातीर राजान सजा करची अशे कांय गुन्यांव संवर्तान सांगल्यात ते अशे - घोव नासतना गर्भधारणा, बलात्कार, उघड साधन नासतना मेळिल्ली गिरेस्तकाय, भौशिक मार्गांत अडथळे, सभाघरां, रुख, पिकां हांचो नाश; भुरगें वा मनीस पळोवन व्हरप; पतित ब्राह्मण वा गायेची, ब्राह्मणाची हत्त्या करप. ताच्या मतान चलयेचें आठव्या वर्सा लग्न करचें. पूण मामाच्या चल्याकडे लग्न करप ताका मान्य ना.

- कों. वि. सं. मं.

**संवसार पाडवो :** (पळेयात पाडवो).

**संस्कृत भास आनी साहित्य :** संस्कृत म्हळयार सम् + कृत. सम म्हळयार सम्यक्. सगळया आंगांनी, संस्कारांनी विकसित केल्ली भास. आर्यीकरणाची प्रक्रिया चालू आसतना थळावी स्कंध भास आशिल्ली, तिचेर संस्कार करून तयार केल्ली प्रमाणित भास ती संस्कृत. इ.स. पयलीं ३०० मेरेनच्या काळांत उत्तरेक नर्मदेसावन दक्षिणेक कृष्णेमेरेनच्या प्रदेशाचें आर्यीकरण पुराय जालें आसूंक जाय. इ.स. च्या तिसऱ्या शेंकड्यासावन ह्या प्रदेशांत ज्यो राजवटी जाल्यो देखीक ,सातवाहन, वाकाटक, राश्ट्रकूट, चालुक्य हाणीं वैदिकधर्म आनी बौध्दधर्म हांकां सारकोच आश्रय दिलो. ताका लागून संस्कृत वा संस्कृतोभ्दव प्राकृत ह्या भासांचें म्हत्व वाडलें. चालुक्य राजांनी तर पोरनी कानडी आनी प्राकृत ह्या दोनय भासांक सारकीच वागणूक दिली. हाका लागून दक्षिण भारतांत त्या काळांतले संस्कृतोभ्दव आर्यभाशेचेर द्राविडीचो मात्सो चड परिणाम जालो.

संस्कृतांतल्यान प्राकृत भाशा निर्माण जाल्यो आनी प्राकृत भाशांतल्यान अपभ्रंश भाशा जल्मल्यो. ह्या अपभ्रंशांपसून परतून सुवातीप्रमाण निर्माण जाल्ल्यो भाशा म्हळयार आयच्यो मराठी, गुजराती, बंगाली, हिंदी ह्यो अर्वाचीन देशी भाशा. वैदिक आर्य इराणांतल्यान हिंदुस्थानांत येतकच तांचे भाशेचीं अशेतरेन मुखेल स्थित्यंतरां जालीं. ते हांगा आयले ते आपली स्वताची विशिश्ट संस्कृती आनी देववाणी (वेदवाणी) घेवन. हिंदुस्थानांत जे पयलींपसून रावताले, तांचीय एक संस्कृती आशिल्ली आनी तांची स्वताची वेगळी भाशा आशिल्ली. पूण वसणुकेंखातीर आयिल्ल्या आर्यांमुखार तांचो तग लागलोना आनी वैदिक आर्यांचो सेवाधर्म आपणावन तांकां रावचें पडलें. नव्यानच भास उलोवपी मनशाचो शब्दोच्चार करतानाचो आळस वा कांय विशिश्ट उच्चार करपाची शारिरीक ठेवणीक लागून असमर्थता तेचभशेन शब्दांतलो मूळ शब्द वा धातू आनी तांकां लागपी प्रत्यया संबंदीचें अज्ञान हाकालागून वैदिक संस्कृत भास ल्हव ल्हव भ्रश्ट जायत गेली. अशे तरेन वैदिक संस्कृत भाशेची जाल्ली भ्रश्टता वा तिचें हें संस्कृत भाशिकांचे नदरेन अनिश्ट अशें परिवर्तन थांबोवपाखातीर आनी आपली वैदिक संस्कृत भास शुध्द स्वरुपांत तिगोवपाखातीर आर्यांनी आपले मंत्र पयलीं तोंडपाठ करून उपरांत संग्रहितय केले. ताका लागून वेदांतली (छन्दसि) भास शुध्द उरली पूण आर्य आनी एतद्देशीय आर्येतर हांच्या वाडट्या संबंदाक लागून बोली स्वरुपांतले (भाषायम्) भाशेंत बदल जालोच. तातूंत, आर्यांच्यो नव्यो नव्यो टोळयो पंजाबांत येवंक लागिल्ल्यान ताचेपयलीं आयिल्ल्या एतद्देशीयांकडे अदीक - चड संपर्क आयिल्ल्या आर्यांक फुडें म्हळयार उदेंतेकडे आनी उपरांत दक्षिण-उत्तर दिकेवटेन वचचें पडलें. हेखातीर पंजाबांत जेन्ना शुध्द संस्कृत भास उलयताले तेन्ना गंगा यमुनांच्या दुआबांत अर्द संस्कृत

वा भ्रश्ट संस्कृत भास उलोवप जाताली. उपरांत ताचेय उदेंतेक (त्या वेळच्या मगधांत) जी भास उलयताले ती चडच भ्रश्ट जाल्ली म्हळयार पंजाबांतले शुध्द संस्कृतापरस खुबूच पयसावल्ली. स्थानाप्रमाण ह्या वेगवेगळया भाशांक उदीच्य, मध्यदेशीय आनी प्राच्य अशीं नांवां मेळळीं. रूपसंपदेचे बाबतींत उदीच्य भाशेपरस प्राच्य भास इतकी वेगळी जाल्ली की ताका लागून त्यो त्यो भाशा उलोवपी लोकांक परस्परांच्यो भाशा कळना जाल्यो. उदीच्य देशांत पाणिनीचो जल्म जालो आनी ताणें उदीच्य संस्कृताची शुध्दताय तिगोवन धरपारवातीर संस्कृत भाशेचें व्याकरण रचलें (इ. स. पयलीं ५ वो शेंकडो). तशेंच प्राच्य देशांत गौतम बुध्दाचो उदय जावन ताणें भोवजन समाजाच्या प्राच्य प्राकृताक आपल्या धर्मप्रसाराचें वाहन केलें. तेरवातीर संस्कृत भाशेक व्याकरणनेमांची चवकट बसली आनी प्राच्य प्राकृताक धर्मतत्त्वप्रतिपादनाची प्रतिश्ठा मेळ्ळी. हाचो परिणाम, स्थानाप्रमाण प्राकृताची मागधी, शौरसेनी आनी महाराष्ट्री अशो मुरवेल पूण एकमेकांपरस वेगळीं अशीं रुपां ल्हव ल्हव स्पश्ट जालीं आनी वैदिक संस्कृताचें भारतांतलें अवस्थांतर पुराय जालें.

संस्कृत ही पुराय प्रत्ययी भास आसा. नामविभक्ती आनी आख्यातविभक्ती हांची तिच्यांत विपुलताय आसा. संस्कृत भाशेच्या ह्या प्रत्ययी रूपाकलागून तिच्यांत एके तरेचो ठाशीवपण आसा. संस्कृतांतली वर्णमाळ समृध्द आसा. विभक्तींची संख्या संबोधन धरून आठ आसा. तीन वचनां आसात. संस्कृतांत एक वर्तमान, तीन भूत आनी दोन भविश्य अशे स काळ आशिल्ले. तशेंच एक आज्ञार्थ, एक विध्यर्थ आनी दोन संकेतार्थ अशे चार अर्थ आशिल्ले, म्हळयार कियापदरुपां धा प्रकारांनी तयार जातालीं. ह्या धा प्रकारांनी परतून तीन वचनां आनी तीन पुरुष हांची भर पडटाली. हाचे भायर आत्मनेपद, परस्मैपद आनी धा गण हांचे मूळ धातूचेर वेगवेगळे विकार जाताले तें वेग हाकाच लागून संस्कृतांत आख्यातरुपांची समृध्दताय दिसता. पूण प्राकृतांत हिका देंवती कळा लागली. पयलीं द्विवचन गाळून एकवचन आनी भोववचन अशीं दोनच वचनां दवरलीं. विभक्तींचे संख्येंतय प्राकृतान काटकसर केली. लकारांच्या म्हळयार क्रियापद रूपांच्या धा प्रकारांनीय काटछाट जाली. भूतकाळाचे तीन प्रकार आनी भविश्यकाळाचे दोन प्रकार वचून तांचे सुवातेर फकत एकेकच प्रकार उरलो. भूतकाळांत आख्यातरूप वापरपाबदला कर्मणी भूतकाळवाचक धातुसाहितांचो उपेग करपाची प्रवृत्ती वाडली. संकेतार्थाचेय जे दोन प्रकार आशिल्ले तातुंतलो एकूच उरलो. म्हळयार संस्कृतांतल्या धा लकारांतले फकत तीन काळ आनी तीन अर्थ अशे स लकार उरले. देखीक - वर्तमाना, भूता, भविष्यन्ती आनी पञ्चमी (आज्ञार्थ), सप्तमी (विध्यर्थ) आनी कालातिपत्ती (संकेतार्थ). आख्यातरूपांची जी समृध्दताय संस्कृताक आशिल्ली तीच प्राकृतान पुराय बदलली. *ध्वनिपरिवर्तनान तिचें भायलें उच्चारणरूप बदलिल्लेंच पूण विभक्ती* आनी आख्यात हातूंत जाल्ल्या फरकाक लागून तिच्यांत अंतर्बाह्य आनी मूलभूत बदल जालो. ह्या बदलान फाव जाल्ल्या तिच्या स्वरूपाक 'संस्कृत' नांवान पाचारप शक्य नाशिल्लें. म्हणून 'प्राकृत' ह्या नांवान तिचें नामांतर जालें. हें सादारण इ.स. पयलीं ६०० च्या अदमासाक सुरू जालें आनी इ.स. ६०० मेरेन तिगलें.

संस्कृत भास ही शब्दलालित्य, अर्थवत्ता आनी नादमाधुर्य ह्या गुणांचो आस्पाव आशिल्ली अशी भास. ह्या भांडारांत फकत देशभासच न्हय तर आमचे सांस्कृतिक संचिताक गिरेस्तकाय हाडिल्ली आसा. विंगड विंगड भासो उलोवपी लोकांक संस्कृतायेचे नदरेन एका समान सांस्कृतिक सूत्रांक गुंथपाची तांक हे भाशेंत निश्चित आसा. एक पुरातन भास म्हणून तिचें म्हत्व तर आसाच पूण आयच्या बदलत्या काळांतल्या भाशेंत लेगीत नव्या ज्ञानाचो आस्पाव जातकच नव्या शब्दांची गरज पडटली तेन्ना आमकां संस्कृताचो व्हड आदार जातलो. त्या अर्थान ती नव्या आविश्कारांक बळ दिवपी अशी भास जावन आसा.

**संस्कृत साहित्य :** संस्कृत साहित्याचे दोन प्रकार आसात - वैदिक साहित्य आनी अभिजात संस्कृत साहित्य.

**वैदिक साहित्य** - वैदिक वाङ्मय हें चडशें मौखिक परंपरेन आयच्या काळामेरेन येवन पावलां, आयज लेगीत ही परंपरा जिती आसा. तशेंच लिखित आनी मौखिक परंपरांतल्या पाठांनी भेद दिसल्यार, मौखिक परंपरेंतल्या पाठाक चड प्रामाण्य दिवप जाता. हें फकत संस्कृतांतच न्हय तर जागतिक भाशांनीय विस्तृत प्राचीनतम अशें वाङ्मय उपलब्ध आसा. प्राचीन मनशाचें, चड करून यूरोभारतीय मानव समाजाची जीण आनी मन प्रतिबिंबित करपी आनी कसलोच फरक जायनासतना आयजमेरेन तिगून उरिल्लें, हाचेइतकें प्राचीन वाङ्मय जगांतले हेर खंयचेच भाशेंत उपलब्ध ना. तेरवातीर मानवी संस्कृतीच्या इतिहासांत ह्या वाङ्मयाक अनन्यसादारण म्हत्व आसा. कारण, वेदग्रंथांचें पाठांतर सलग संहितेच्याच रूपान जावंकन्ना, तर संहितेंतल्या पदांच्या उरफाटे सुरफाटे मांडणेन सिध्द जावपी बऱ्याचशा विकृतींच्याय (पद, क्रम, जटा, घन) रुपान जायत आयलां. तेरवातीर हें वाङ्मय शुध्द उरपाक खूब आदार जाला. वेद हे अपौरूषेय आसात हे श्रध्देंतल्यान वेदांक आनीकय कांय गुणधर्म लाबले. वेद हाचो अर्थच ज्ञान असो आसा. उत्तर काळांत विकसित जाल्ल्या शास्त्रांचीं बीजां वेदवाङ्मयांतूय मेळटात. वेद हो ज्ञानाचो चिरंतन मूलस्त्रोत आसा. व्यासान वेदवाङ्मयाचें संपादन करून सूक्तांची, मंत्रांची वर्गीकरणपूर्वक वेवस्था केली, म्हणून तांकां 'वेदव्यास' हें नांव मेळ्ळें. वेदांच्या बऱ्याचशा शाखांचो उल्लेख येता. तातुंतल्या कांय शाखांचें वाङ्मय आयज उपलब्ध आसा. ह्या वाङ्मयाचो चडसो भाग परंपरेन जतन करून दवरला. हातुंतल्यो सगळयो संहिता, तैत्तिरीय *ब्राह्मण आनी आरण्यक, शतपथ ब्राह्मण आनी आरण्यक इतकें वाङ्मय*

सस्वर उपलब्ध आसा.

वैदिक वाङ्मयाचे ऋग्वेद, यजुर्वेद, सामवेद आनी अथर्ववेद अशे चार संप्रदाय चलत आयिल्ले आसून त्या दर एकांत संहिता, ब्राह्मणां, आरण्यकां आनी उपनिषदां अशा विशयांच्या अनुरोधान स्थूल मानान चार वांटे करतात. हातुंतल्या संहितांक मंत्र आनी अवशिश्ट तीनय भागांक ब्राह्मण अशी संज्ञा मीमांसकांचे परंपरेंत प्रचलित आसा. आरण्यकां आनी उपनिषदां मुळांत ब्राह्मणांचेच अंश आशिल्ले; ईशावास्योपनिषद् हें मात संहितेचोच अंश आसा. दर एका संप्रदायाच्यो चड - उण्यो शाखा आसून, दर एके शाखेची स्वतंत्र संहिता, स्वतंत्र ब्राह्मणां, आरण्यकां आनी उपनिषदां अशें चतुर्विध वाङ्मय पयलीं आसुंये.

सतराव्या शेंकड्यांत औरंगजेबाचो भाव दारा शिकोह हाणें कांय उपनिषदांचे पर्शियन भाशेंत अणकार केल्ले. ताचेवयल्यान एकुणिसाव्या शेंकड्यांत एक फ्रेंच पंडित आँक्वेतिल दु पेरॉं हाणें 'ऊप्नेक्हत्' म्हळयार 'ऊपनेखत' हो लॅटीन अणकार केलो. ताचेच वतीन उपनिषद् वाङ्मयाची अस्तंती जगाक पयलेच खेपेक वळख जाली. तेन्नासावन ह्या वाङ्मयाचो प्रभाव अस्तंती तत्त्वचिंतकांचेरय पडलो.

**वेदांगां** - उपनिषदां उपरांत बौध्द धर्माच्या उत्कर्श काळांत, वैदिक परंपरा खूब फाटीं पडली. तिच्या पुनरूज्जीवनाखातीर जाल्लो पयलो वाङ्मयीन यत्न म्हळयार वेदांगां. वेदग्रंथांचो पाठ आनी अर्थ तेचभशेन तातुंतलें कर्मकांड हांच्या बोधाखातीर उपेगी अशें वाङ्मय 'वेदांगां' म्हणून प्रसिद्द आसा आनी तें पौरूषेय मानतात. वेदांगांवांगडा संस्कृतांत, 'सूत्र' नांवांची एक नवी ग्रंथशैली लोकप्रिय जाली. सूत्र म्हळयार सुटसुटीत, असंदिग्ध, संक्षिप्त विधान हे शैलीक लागून विस्तृत शास्त्र उण्या वाक्यांनी आंवळून, तोंडपाठ करप सोपें जालें. संस्कृत वाङ्मयाबदला जगांतल्या हेर खंयचेच भाशेंतल्या साहित्यांत अशो शैली मेळनात.

सूत्रभाष्यात्मक पद्दतीन मांडिल्ल्या संस्कृत शास्त्रांचो पुरूषार्थ कल्पनेच्या आदाराचेर वर्गीकरण रूढ आसा. कल्पसूत्रांचो विशय धर्मशास्त्र. अर्थशास्त्राचेर खूब ग्रंथ आसात तातूंत सूत्रशैली चडशी दिसना. कामशास्त्राचेर वात्स्यायनाचीं सूत्रां आसात. मोक्षशास्त्रांत विंगड विंगड तत्त्वज्ञान संप्रदाय आस्पावतात.

**दर्शनां** - सांख्य, योग, न्याय, वैशेषिक, वेदान्त आनी मीमांसा हीं जीं मुखेल स आस्तिक दर्शनां आसात, त्या सगळयांचेर प्राचीनतम ग्रंथ सूत्रात्मक आसात. सांख्य दर्शनाचेरय कपिलाची म्हणून सूत्रां आसात. पूण अभ्यासकांच्या मतान तीं उत्तरकालीन आसात. सांख्य दर्शनावयलो प्राचीनतम ग्रंथ म्हळयार ईश्वरकृष्णाच्यो सांख्यकारिका (इ. स. १०० - २००). अवशिश्ट दर्शनांचे सूत्रकार, पतंजली, गौतम, कणाद, बादरायण आनी जैमिनी आनी भाष्यकार, व्यास, वात्स्यायन, प्रशस्तपाद, शंकराचार्य शबर. ह्या स आस्तिक दर्शनांचेर सन पयलीं ४०० ते सन पयलीं १५० ह्या काळांत सूत्रग्रंथांची रचणूक जाली. सगळयांत प्राचीन भाष्य पतंजलींचें पाणिनीच्या अष्टाध्यायीवयलें महाभाष्य (सन पयलीं १५०). हेर भाष्यांची रचणूक ताचे फाटल्यान रोकडीच सुरू जाली आनी फुडें ती शेंकड्यांनी वर्सां चालू उरली. ह्या सूत्रभाष्यात्मक शास्त्र वाङ्मयाचेर टीका, उपटीका, निबंद ह्या स्वरुपाचें प्रचंड वाङ्मय शेंकड्यांनी वर्सां निर्माण जायत रावलें.

ह्या स आस्तिक, दर्शनां भायर जीं नास्तिक दर्शनां म्हळयार वेदप्रामाण्य न मानपी निर्माण जालीं तातुंतलीं बौध्द, जैन, चार्वाक हीं मुखेल आसात. बौध्द धर्माचें प्राचीन 'आगम' वाङ्मय पाली भाशेंत तर जैन धर्माचें अर्धमागधी भाशेंत ग्रंथित आसा. ह्या संप्रदायांचे शास्त्रीय परिभाशेंतले दर्शनग्रंथ फुडल्या काळांत निर्माण जाले. ते मुखेलपणान संस्कृतांत निबध्द आसात कारण संस्कृत ही पंडितांची वेव्हारभास आशिल्ली. तातुंतल्या मताचो निर्देश आनी खंडन हेर दर्शनग्रंथांतल्यान केलां. पूण ह्या दर्शनांचो स्वतंत्र अधिकृत ग्रंथ असो उपलब्ध ना.

**अभिजात वाङ्मय** - अभ्यासकांनी ह्या वाङ्मयाचें मूळ ऋग्वेदांतल्या संवादसुक्तांत आनी ब्राह्मण ग्रंथांतल्या आख्यानांत, इतिहास - पुराणांत सोदलां. हातूंत दिसता तें कथाप्रधान काव्य सुरवेक यज्ञसमारंभाचो एक वांटो म्हणून प्रचारांत आयलें आनी प्रसंगविशेशान कौटुंबिक क्षेत्रांतय रिगलें. अशा वाङ्मयाचो 'इतिहास पुराण' ह्या नांवान वैदिक वाङ्मयांतय उल्लेख येता. ताचें म्हत्व जाणून ताका 'पांचवो वेद' अशेंय मानतात. ह्या पांचव्या वेदाचे ग्रंथ अशे नाशिल्ले. तो वेद इतिहासीक आनी पौराणिक हांचे मौखिक परंपरेन जिवो उरलो. तातुंतल्यान वेळच्यावेळार बौध्द आनी जैन संप्रदायांनी केल्ली उचल जातककथा, जैन रामायण ह्या रचनांनी मेळटा. 'गाथा नाराशंसी' ह्या नांवाचो ह्या वाङ्मयाचो जो दानस्तुतींकडे, कुंतापसूक्तांकडे संबंदीत असो भाग आशिल्लो, तातुंतल्यान फुडें प्रदीर्घ वीरकथात्मक महाकाव्यां निर्माण जालीं. ह्या प्राचीन महाकाव्यांतले अवशिष्ट, उपलब्ध ग्रंथ म्हळयार महाभारत आनी रामायण. ह्या ग्रंथांच्या निर्मिती उपरांत संस्कृतांत तशेंच प्रादेशिक भाशांनी जें ललित वाङ्मय निर्माण जालें, तातुंतल्या बऱ्याचशा कृतींचो उगम वा प्रेरणा ह्या दोन ग्रंथांनी आसा. हो प्रभाव आर्विल्ल्या काळामेरेन पावला. रामचरिताचेर विस्तारान काव्याची रचना करून आदिकवी वाल्मिकी फुडल्या कवींचो मार्गदर्शक आनी स्फूर्तिदातो थारलो. इकराव्या शेंकड्यासावन फुडें प्रादेशिक भाशांनी रामायणाच्या आदारान रचना जावंक लागल्यो. तातूंत तुलसीदासाच्या रामचरितान खूब लोकप्रियता मेळयली. महाभारत आनी रामायण हे यथार्थतेन भारताचे राश्ट्रीय ग्रंथ आसात.

**पुराणां** - 'पुराण' हो शब्द वैदिक वाङ्मयांत इतिहासाचे

जोडयेन खूबकडे 'प्राचीन आख्यान' अशा अर्थान आयला. पूण थंय विशिश्ट ग्रंथांचो अभिप्राय नासून विशयाचो आसा. आयज उपलब्ध आशिल्ल्या पुराणांच्या नांवांचो प्रत्यक्ष निर्देश मेळटा तो सूत्रकालासावन. हातूंत येवपी इतिहासीक राजांचे नामावळींत हर्षवर्धन वा ताच्या फुडल्या राजांचो उल्लेख मेळना. हाचेवयल्यान प्राचीन पुराणांचे रचणुकेचो काळ सनपयलीं ५०० ते इ. स. ६०० हो थारता. कांय पुराणां सातव्या शेंकड्याचे फुडेंय निर्माण जायत उरलीं.

उगमाचे नदरेन महाभारत, रामायण आनी पुराणां हांच्यांत भेद ना. महाभारतांतच एकिकडें महाभारताचो पुराण ह्या नांवान उल्लेख आसा. हेर पुराणांप्रमाण ताचो प्रवचनकारय सौती आसा. पुराण वाङ्मय खंयच्या तरी देवतेच्या भक्तिसंप्रदायाक धरून निर्माण जालें. फुडल्या काळांतल्या बऱ्याचशा साहित्यकृतींचो उगम पुराणवाङ्मयांत आसून, भागवतासारकीं कांय पुराणांय साहित्यगुणसंपन्न आसात. स्तोत्रवाङ्मयाचोय उगम पुराण वाङ्मयांतच आसा.

**संहिता, आगम, तंत्र** - हें वाङ्मय भक्तिवाङ्मयाच्याच संप्रदायांत आस्पावता. हातुंतल्यो संहिता वैष्णवांच्यो, आगम शैवांच्यो आनी तंत्रां शक्तांचीं. पूण ह्या सगळयांचो तांत्रिक वाङ्मय म्हणून उल्लेख करप जाता. इ. स. च्या ५ व्या वा ६ व्या शेंकड्यांत ह्या वाङ्मयाचो आरंभ जालो आसुंये. ७ व्या - ८ व्या शेंकड्यांत ह्या हिंदू तंत्रांचो बौध्द संप्रदायांतय प्रवेश जालो आनी थोड्याच काळांत बौध्द तंत्रांचो चिनी आनी तिबेटी भाशांनी अणकार जाले. तंत्रवाङ्मयांत आर्य आनी आर्येतर संस्कृतींचे मिश्रण जालां. धर्मेतिहासाचे नदरेन हें वाङ्मय चड मोलादीक आसा. ह्या वाङ्मयाची व्याप्ती हिंदूधर्मापुरतीच मर्यादीत नासून, बौध्द आनी जैन परंपरांचेंय ह्या स्वरूपाचें स्वताचें वाङ्मय आसा. 'ललितविस्तार' (सनपयलीं पयलो शेंकडो) हो बौध्द परंपरेंतलो ग्रंथ स्वताक पुराणच म्हण्टा. सध्दर्मपुंडरीक, कारंडव्यूह हे ग्रंथ (इ. स. चो पयलो - दुसरो शेंकडो), 'महावस्तु' ग्रंथांतले कांय वेचे (सनपयलीं तिसरो शेंकडो) हांचें स्वरूप पुराणवाङ्मयासारकेंच आसा. सातव्या शेंकड्यासावन फुडें जैनांचीं पुराणां मेळटात. तातूंत पद्मपुराण, हरिवंशपुराण, आदिपुराण, महापुराण, पांडवपुराण हीं पुराणां आसात.

**महाकाव्यां** - अभिजात संस्कृत महाकाव्यांचीं लक्षणां ज्या सुरवेच्या कृतींवयल्यान घडलीं, तातूंत अश्वघोषाच्या कृतींचो आस्पाव करूंक जाय. वाल्मीकीच्या रामायणा उपरांत संस्कृत वाङ्मयांतलें महाकाव्य म्हळयार अश्वघोषाचें बुध्दचरित. तेच भशेन भारतीय परंपरा आनी अस्तंती अभ्यासक सगळयांत श्रेश्ठ संस्कृत कवी म्हणून कालिदासाचें नांव घेतात. अभिजात संस्कृत वाङ्मयांत जीं 'पंच महाकाव्यां' प्रसिद्द आसात, तातुंतलीं दोन कालिदासाचीं (रघुवंश आनी कुमारसंभव) आनी भारवीचें किरातार्जुनीय, माघाचें शिशुपालवध आनी श्रीहर्षाचें नैषधचरित. उपरांत दोन दोन अर्थ आशिल्लीं महाकाव्यां बरोवप सुरू जालें. देखीक - राघवपाण्डवीय.

महाकाव्याचे नेम संकेत जाचक दिशिल्ल्यान कदाचित संस्कृत कवींनी संकेतमुक्त आविश्काराखातीर नवे प्रकार सोदून काडले. तातुंतलो एक खंडकाव्य आनी दुसरो मुक्तककाव्य. कालिदासाचें मेघदूत हो अभिजात संस्कृत खंडकाव्याचो पयलो आविश्कार. सुटसुटीत आकार, जंय कथेचें चडशें बंधन ना, एकदम विरहान सुरवात करून संदेश सांगिनाफुडें शेवट. मेघदूतान दाखयल्ल्या मार्गाचो खूब जाणांनी अनुकरण केलें आनी संस्कृतांत संदेशकाव्यांची एक व्हड माळ तयार जाली. देखीक ,बिल्हणाची चौरपंचाशिका, जयदेवाचें 'गीतगोविंद'.

मुक्तककाव्याचो प्रकार संस्कृत कवींक खुबूच सोयीचो दिसलो. एकाद्री हृद कल्पना येवजली म्हणजे अनुरूप आकाराच्या वृत्तांत ती मांडप. कालिदासाचो 'ऋतुसंहार' म्हळयार मुक्तकांचोच संग्रह. बरेचशे संग्रह शंबर शंबर पद्यांचे आसात. तांकां 'शतककाव्यां' म्हणपाची पद्दत आसा. मुक्तकसंग्रहांतल्या कवींभितर खूब वैचित्र्य आसा. तातूंत बायलो, दादले, यती, गृहस्थ आसात. तशेच वैदिक, अवैदिक, राजे, रंक, पंडित, अपंडित अशे खूब आसात. संस्कृत काव्यमीमांसकांनी ह्या सगळयांची दखल घेतली आनी काव्याचें अशें लक्षण केलें की जें ल्हानांत ल्हान मुक्तकाकय उपपन्न जातलें. मुक्तक साहित्याचो काव्यमीमांसेचेर पडिल्लो हो प्रभाव लक्षणीय आसा. अशें मुक्तकात्मक संग्रह कालिदासासारक्या कवींचेंय आसात. कालिदासाफाटल्यान भर्तृहरीन नीतिशतक, शृंगारशतक आनी वैराग्यशतक हे सारके संग्रह केले. अमरूचें अमरूशतक (इ.स.चो ८ वो - ९वो शेंकडो), भल्लटाचें 'भल्लटशतक' (इ.स.चो ९ वो शेंकडो). तचेभशेन विंगड विंगड विशयांचेर भरपूर ग्रंथरचना करपी क्षेमेंद्राचे (इ.स.११वो शेंकडो) खूब मुक्तकसंग्रह आसात. कवींद्रवचनसमुच्चय, वल्लभदेवाची 'सुभाषितावली', श्रीधरदासाचें 'सदुक्तिकर्णामृत', जल्हणाची 'सुक्तिमुक्तावली', शार्ङ्गधराची 'शार्ङ्गधरपध्दती', हे इ. स.च्या ११ व्या शेंकड्या उपरांतचे कांय उल्लेखनीय संग्रह आसात. जगन्नाथ पंडितानय आपल्या स्फुट कवनांचो संग्रह करुन ताका 'भामिनीविलास' अशें नांव दिलें. जगन्नाथा उपरांत संस्कृत वाङ्मयनिर्मिती सोंपली अशें कांय संस्कृतज्ञ मानतात. पूण संस्कृत वाङ्मयाची निर्मिती ते उपरांतय अखंडपणान चालू उरली ती आयच्या काळामेरेन पावल्या. विशयाक अनुरूप अभिव्यक्तिप्रकार सोदपी साहित्यिकाची कल्पक प्रतिभा आशिल्ले संस्कृत कवी खूबुच कमी प्रमाणांत दिसतात. तातूंत 'कलिविडंबन' कार नीलकंठ दीक्षित आनी 'महिषशतक' कार वांछेश्वर ह्या अनुक्रमान सतराव्या आनी अठराव्या शेंकड्यांतल्या कवींचो आस्पाव जाता. महाकवींच्या काव्यांतल्यान सहजतायेन दिसना अशी एक गजाल मुक्तककवींच्या कांय रचनांनी दिसता. ती म्हळयार समकालीन जीणेचें चित्रण. शेंकड्यांनी वर्सांच्या संस्कृत साहित्यांत, मुक्तककवींक

लागुनच जीवेंपण तिगून उरलां. हे मुक्तकपरंपरेक सोबतली अशी रचना आयज लेगीत संस्कृतांत जायत आसा. संस्कृत साहित्यांत बायलांचोय हातभार लागला. मम्मटासारक्या काव्यमीमांसकांनी शीला भट्टारिकेसारके कवयित्रींचीं पद्यां उत्तर काव्याचीं उदाहरणां म्हणून दाखयल्यांत. तशेंच णव्या शेंकड्यांतल्या विज्जिका, विकटनितंबा हांच्याय नांवांचो उल्लेख करूंक जाय.

लघुकाव्यां आनी मुक्तककाव्यां हांचे जोडयेक संस्कृतांतल्या आनीक एका काव्यवर्गाचो उल्लेख करूंक जाय तो स्तोत्रकाव्यांचो. एकाद्रे देवतेविशीं, देवासमान व्यक्तीविशीं आपल्या मनांतलो भाव कवीन शब्दांच्या रूपान उक्तो करतकच तें स्तोत्र जाता. हें वाङ्मय खूब पोरनें. ऋग्वेदांतलीं सूक्तां हीं स्तोत्रांच आसात. अशींच स्तोत्रां फुडें अभिजात संस्कृतांत व्हड ग्रंथांतल्यान आनी स्वतंत्रपणान रचप जालीं. संस्कृत, लोकांच्या तोंडान जितें जीवें दवरपाचें आनी वाचाशुध्दीचो संस्कार करपाचें खूब मोलादीक अशें कार्य स्तोत्रवाङ्मयान केलां.

**गद्य वाङ्मय** - हाचो इतिहास यजुर्वेद संहितेसावन सुरू जाता. ललित गद्यांतले कांय शिलालेख दुसऱ्या शेंकड्यासावन मेळटात. ललित गद्यशैलींतलो सगळयांत पोरनो ग्रंथ म्हळयार सुबंधूची 'वासवदत्ता'. ताचे उपरांत 'कादंबरी' ही कल्पित कथा आनी 'हर्षचरित' ह्यो इतिहासाश्रित आख्यायिका बरोवन बाणभट्टान गद्याच्या सौंदर्याची आनी सामर्थ्याची प्रचिती दाखयली. बाणभट्टा उपरांत येता तो 'दशकुमारचरित' कार दंडी. सुबंधू, बाण, दंडी हाणीं रुळयल्ली ललित गद्याची परंपरा फुडेंय चालू उरली. तिचेर बाणभट्टाचो सगळयांत चड प्रभाव आसा. पूण शुध्द गद्यांत पद्याच्या मानान खूब उणे ग्रंथ निर्माण जाले कारण गद्य आनी पद्य हांच्या मिश्रणान केल्ली रचना उपरांत चड लोकप्रिय जाली.

**चंपू वाङ्मय** - गद्य आनी पद्य हांचे मिश्रित रचनेक संस्कृत परंपरेंत 'चंपू' अशें नांव आसा. पूण नाटकाभशेन चंपू हें दृश्य काव्य नासून श्राव्य काव्य आसा कारण चंपूंत नाटकांत आसतात तशे संवाद नासतात. तातूंत सगळें कथन कवीचें आनी एकाच ढंगाचें आसता. मदल्या काळांत बौध्द जातककथांच्या संस्कृत रुपांतरांनी आनी कांय शिलालेखांनी हे शैलीचें स्वरूप दिसता. ह्या काळांत हे शैलींत कांय ग्रंथ निर्माण जाले आसुंये, कारण दंडीच्या काव्यादर्शांत चंपूचें लक्षण आयलां. ह्या स्वरूपाची सगळयांत पोरनी अशी आयज उपलब्ध आशिल्ली रचना त्रिविक्रमभट्टाची 'नलचंपू'. ही चंपू अपूर्ण आसा. हिचे फाटल्यान कांय चंपू जैन कवींनी जैन पुराणांच्या आदारान रचिल्ल्यो मेळटात. तातूंत 'यशस्तिलकचंपू' तशेंच भोज राजान रामकथेचेर, अभिनवकालिदासान भागवताचेर आनी अनंतकवीन महाभारतकथेचेर चंपू रचल्यात. वेंकटाध्वरीच्या चार चंपूंभितर विश्व गुणादर्शचंपू चड प्रसिद्द आसा. हे शैलीचे सुमार अडीजशें ग्रंथ उपलब्ध आसात.

**नाट्यवाङ्मय** - संस्कृत नाटकांचो उगम ऋग्वेदांतल्या संवादसूक्तांत आशिल्ल्याचें अभ्यासक मानतात. ते उपरांतच्या काळांतलें वाङ्मय, स्थलशिल्प हांचेवयल्यान नाट्यकाव्य, नाट्यप्रयोग, नाट्यमीमांसा अशा आंगांनी ही कला विकसित जायत गेली अशें समजता. संस्कृत वाङ्मयांत आयज उपलब्ध आशिल्ल्या नाटकांची संख्या सुमार ६५० आसा. सगळयांत प्राचीन उपलब्ध नाटकांचो कर्तो भास आनी नाट्यविवेचन करपी सगळयांत प्राचीन उपलब्ध ग्रंथांचो कर्तो भरत आसा. भासाच्या उपलब्ध 'भासनाटकचक्रा'त सगळयांत श्रेश्ठ अशें 'स्वप्नवासवदत्त' हें नाटक आसा. भासाचें ल्हानांत ल्हान नाटक एक अंकाचें आनी सगळयांत व्हड स अंकांचें आसा. ताच्या उपरांत सात अंकी, धा अंकी, चवदा अंकी नाटकां बरोवप जालीं. भवभूतीचीं तीन नाटकां उपलब्ध आसात पूण ताका कविकीर्त मेळ्ळी ती उत्तर रामचरिताक लागून. भास - कालिदास - भवभूती हांचे भशेन आनीकय कांय प्रतिभासंपन्न नाटककार जावन गेले. तातूंत मृच्छकटिककार शूद्रक, मुद्राराक्षसकार विशाखदत्त आनी वेणीसंहारकार भट्ट नारायण हांचीं नांवां घेवंक जाय. ह्या नाटककारांचें अनुकरण करपी हर्षासारके (सातवो शेंकडो) बरेचशे नाटककार संस्कृतांत जावन गेले. संस्कृत नाटकांतले संवाद संस्कृत - प्राकृतमिश्र आसतात. कारण प्राकृत ही संस्कृतापरस वेगळी भास न्हय. फकत प्राकृतांत रचिल्लीं नाटकां उपलब्ध आसात जशें राजशेखराचें 'कर्पूरमंजरी' हें संस्कृत नाट्यवाङ्मयांत 'भाण' आनी 'प्रहसन' ह्यो स्वतंत्र वर्गाच्यो खाशेल्यो कृतीय आसात.

गुणाढ्याची (सनपयलीं पयलो - चवथो शेंकडो) 'बृहत्कथा' हो मूळ पैशाची भाशेंत आशिल्लो. सद्या हो ग्रंथ उपलब्ध ना. पूण त्या ग्रंथाचें स्वरूप, तीन संस्कृत पद्यमय अणकारांवयल्यान कळटा. बुध्दस्वामीचो बृहत्कथा - श्लोकसंग्रह (इ.स.चो ८ - ९ वो शेंकडो) क्षेमेंद्राची बृहत्कथामंजरी (११वो शेंकडो) आनी सोमदेवाचो कथासरित्सागर (११वो शेंकडो) ह्या तीनय ग्रंथांनी निमाणचो अणकार चड विस्तारान आसून सादारणपणान २४,००० श्लोकसंख्येचो आसा. बृहत्कथा ह्या ग्रंथान कथावस्तू आनी समाजाच्या सगळया थरांचें चित्रण केल्लें आसून ताच्या फुडल्या संस्कृत साहित्यिकांनी मूळ कथाबीज बृहत्कथेंतल्यान घेतलां.

पाली जातककथांचें अलंकृत संस्कृत संस्करण 'जातकमाला' ह्या आर्यशूराच्या संग्रहांत दिसता. ख्रि. ४३४ वर्सा हाचो चिनी भाशेंत अणकार जाला हाचेवयल्यान मूळ संग्रह चवथ्या शेंकड्या पयलींचो थारता. बृहत्कथेंतले लोककथेच्या स्त्रोतांतल्यान आनी ताच्या सांगातान निर्माण जाल्ल्या कथावाङ्मयांत 'वेतालपंचविंशतिका' (वेताळ पंचविशीं), 'शुकसप्तति' (शुकबहात्तरी), 'सिंहासनद्वात्रिंशिका' (सिंहासनबत्तिशी) ह्या नांवांनी प्रसिद्द आशिल्ल्या कथा संग्रहांचो पयलीं उल्लेख करूंक जाय. ह्या स्वरूपाचे संग्रह फुडें जैन परंपरेंतय जाले. तातूंत मेरुतुंगाचो प्रबंधचिंतामणि आनी राजशेखराचो प्रबंधकोश हे चवदाव्या शेंकड्यांतले

संग्रह उल्लेख करपासारके आसात. ह्याच संग्रहांचे परंपरेंत बल्लाळाचो भोजप्रबंध (सोळावो शेंकडो) येता.

महाभारत आनी पंचतंत्र ह्यासारक्या ग्रंथांतल्या बोधकथांनी राजनीती आनी वेव्हार हांचीं तत्त्वां आसात. तांचो उगम, विकास आनी रचनातंत्र स्वतंत्र आनी भारतीय आसा. ह्या वाङ्मयांत विष्णुशर्माचें गद्यपद्यात्मक पंचतंत्र (इ. स. चो ३रो शेंकडो) प्रसिद्द आसा. पंचतंत्राचो इ.स. ५७० पयलीं पहलवी भाशेंत अणकार जालो. तो आयज उपलब्ध ना. पूण ताचेवयल्यान जाल्ले सीरियन आनी अरबी अणकार उपलब्ध आसात. आयज ह्या ग्रंथाचे 'तंत्र' ह्या नांवान पांच भाग आसात म्हणूनच हें 'पंचतंत्र'. पयलीं ते बारा आसुंये. हाच्या एका हिंदी अणकाराचो अल् - बिरूनीन (११वो शेंकडो) उल्लेख केला. हाचे हिब्रू (११वो शेंकडो), स्पॅनिश (१३वो शेंकडो), लॅटीन तसोच इंग्लीश (१६वो शेंकडो) अशे ५० विदेशी भाशांनी आनी मुखेल भारतीय भाशांनी अणकार जाल्यात. हातुंतल्या बऱ्याच कथांचो आनी हेर कांय कथांचोय 'हितोपदेश' ह्या नांवाचो बंगालांतल्या नारायण पंडितान (इ.स. ११वो शेंकडो) केल्लो संग्रहय लोकप्रिय आसा. पंचतंत्र आनी हितोपदेश हांचें शिक्षणशास्त्राच्या इतिहासांतलें स्थान म्हत्वाचें आसा. कुट्टनीमत ह्या पद्यमय ग्रंथांत दामोदरभट्टान (८वो शेंकडो) कामशास्त्र कथेच्या स्वरूपांत मांडलें. कुट्टनीमतांतलीं पात्रां सगळीं बृहत्कथेंत परत परत आयल्यांत.

ललित पद्दतीन शास्त्राचीं तत्त्वां मांडपी आनीकय ग्रंथ संस्कृत साहित्यांत आसात. तातूंत पाणिनीय व्याकरणाचें विवरण करपी 'भट्टिकाव्य' वा 'रावणवध' हें भट्टि - कवीचें (इ.स.चो ६- ७ वो शेंकडो) महाकाव्य आनी अध्यात्म शास्त्रांतलीं प्रमेयां मांडपी 'प्रबोधचंद्रोदय' हें कृष्णमिश्राचें (इ.स.चो ११वो शेंकडो) नाटक हांचो उल्लेख करूंक जाय. बृहत्कथेंत खूबशा इतिहासीक व्यक्तींच्यो कथा, दंतकथा तेचभशेन राजांच्यो वंशावळीय आयल्यात. प्राचीन शिलालेख हें एके नदरेन इतिहासीक वाङ्मयच आसा. बाणभट्टाचें हर्षचरित, वाक्पतिराजाचें (इ.स.चो ८वो शेंकडो) प्राकृत गउडवह काव्य, पद्मगुप्ताचें नवसाहसांकचरित, बिल्हणाचें विक्रमांकदेवचरित हीं इतिहासीक व्यक्तींचेर बरयल्लीं चरितकाव्यां हीं इतिहासापरस चड काव्यां आसात. इतके लांब संस्कृत परंपरेंत इतिहास म्हणपासारको ग्रंथ बाराव्या शेंकड्यांत कल्हणान 'राजतरंगिणी' हो बरयलो.

**आर्विल्लें वाङ्मय** - कर्नाटकांतल्या गोकर्ण हांगाच्या ब्रह्मर्षी देवरात हाणें ५० सूक्तांचो, ४४८ ऋचांचो 'छंदोदर्शन' हो संग्रह बरयलो. ह्या ऋचांचेर देवरातांचो गुरू वासिष्ठ गणपतिमुनी हाणें भाष्य बरयलां. इ. स. १९१७ त चेन्नई (मद्रास) राज्यांत रेणुकांबा क्षेत्रांत 'पउवेट' गांवांत तपःपूत देवरात समाधीचे अवस्थेंत आसतना ताच्या तोंडांतल्यान आयिल्ले मंत्रवर्ण गणपतिमुनीन बरोवन घेतले. हो क्रम १६ दीस चललो. ह्या काळांत बरोवन घेतिल्ले सगळे मंत्र प्रस्तुत संग्रहांत आसात. देवरातांचें संस्कृत भाशेचेर प्रभुत्व नासतना ताच्या तोंडांतल्यान आयिल्ली छंदोनय वाणी दैवी प्रतिभेचोच आविश्कार मानपाक जाय, अशें हे प्रस्तावनेंत म्हळां. ह्यो ऋचा गायत्री, अनुष्टुभ्, त्रिष्टुभ् आनी जगती ह्या चार छंदांनी आनी मित्र, आत्मन, सवितृ, सरस्वती, ब्रह्मणस्पती ह्या वैदिक देवतांक उद्देशून रचल्यात.

जगन्नाथा उपरांतच्या संस्कृत वाङमयांत महाकाव्यां, लघुकाव्यां, चंपू, नाटकां, ललित गद्य, स्तोत्रां, सुभाषितां सगळें आसा. चडशा ग्रंथांचे विशक्ष रामायण, महाभारत, शैव आनी वैष्णव पुराणां हातुंतल्यान घेतिल्ले आसात. तेचभशेन आचार्य कवींक आश्रय दिवपी राजे, राजवंश, धनिक हांचीं चरित्रां, पराक्रम, कार्य हेय कांय ग्रंथांचे विशय आसात. कांय जैन मुनींच्या चरित्रांचेरय ग्रंथरचना जाल्या. पुर्विल्ल्या काळांत सम्राट हर्षवर्धनय एक विख्यात काव्याचो विशय जाला.

पूर्वपरंपरेप्रमाण जें वाङ्मय निर्माण जाल्लें त्या रचनांच्या महाकाव्यांचे दोन, तीन, पांच, सात अर्थ काडूंक येतात अशे तरेन महाकाव्यां रचपाचो कांय कवींनी यत्न केलो. दर एका श्लोकाचो एक अर्थ कृष्णकथेक आनी दुसरो अर्थ रामकथेक लागूं येता अशीं काव्यां रचपाक कवींक धन्यताथ दिसली. यादवराघवीय (वेंकटाध्वरी, इ. स. चो १७ वो शेंकडो) हें काव्य सारकें वाचलें जाल्यार एक अर्थ आनी उरफाटें वाचल्यार दुसरो अर्थ। राघवयादव पांडवीय (चिदंबर, १७ वो शेंकडो), पंचकल्याणचंपू (चिदंबर), सप्तसंधान महाकाव्य (मेघ विजय गणी, १७ वो शेंकडो) अशे तरेचीं कांय काव्यां आसात. ह्या वर्गांत 'कोसल भोसलीय (शेषाचल, १८ वो शेंकडो) हो एक ग्रंथय आसा. कलिदूषण (घनश्याम, १८ वो शेंकडो) हें काव्य संस्कृत म्हणुनूय वाचूंक येता आनी प्राकृत म्हणुनूय वाचूंय येता अशी कवीन खुबी केल्या. म्हळयार सगळें काव्य भाशाश्लेशांत. अशे तरेचे आनीक काव्य ना. 'कंकणबंधरामायण' (कृष्णमूर्ती, १९ वो शेंकडो) हातूंत ३२ अक्षरांचें वाटकुळें (कांकण) पद्य आसा. तातूंत दर एका अक्षरापसून फुडें ३२ अक्षरां वाचल्यार एक नवें पुराय पद्य तयार जाता. सगळीं मेळून ६४ पद्यांनी रामायण पुराय जाता. अशेच धर्तेचेर आनीक एका कवीन ३२ अक्षरांच्या एका पद्याचे १२८ अर्थ जावं येतात अशी रचना केली. अशी येवजण फकत संस्कृत भाशेंतच जावं येता. व्याकरण आनी अलंकारशास्त्र हांच्या तत्त्वांचीं, रूपांचीं उदाहरणां दिवपाखातीर काव्य हें संस्कृतांतच शक्य आसा. भट्टीन अशे तरेच्या काव्यांचें मुळावण घातलें. हेर कवींनी ही परंपरा फुडें चलयली. अलंकारांचीं उदाहरणां दिवपी अशीं काव्यां रामचंद्रापसून सुरू जावन लोकमान्य टिळकामेरेन पावलीं. रूपकात्मक वा लाक्षणिक नाटकांचो प्रकार ह्याच वर्गांत आस्पावता. कृष्णमिश्र यती (इ. स. चो १२ वो शेंकडो) हाणें प्रबोधचंद्रोदय बरोवन हो प्रकार निर्माण केलो. ह्या वर्गांतल्या साहित्यांत न्यायशास्त्रावयलें 'अनुमितिपरिणय' (नरसिंह, १८ वो

शेंकडो) आनी व्याकरणाचो पाठ दिवपी 'नाट्यपरिशिष्ट' (कृष्णानंद) हीं नाटकां उल्लेख करपासारकीं आसात. काव्यशास्त्राच्या कांय ग्रंथांच्या कर्त्यांनी आपल्या आश्रयदात्या राजांचेर पद्यां रचून तशेंच कांय जाणांनी संबंद नाटक रचून, आपल्या ग्रंथांत उदाहरणां म्हणून दिल्यांत. अशे ग्रंथ छंदःशास्त्राचेरय रचिल्ले आसात.

अस्तंती साहित्याच्या प्रभावाक लागून इ.स.१८५७ उपरांत निर्माण जाल्ल्या संस्कृत ग्रंथवाङ्मयांत खूबच परिवर्तन जाल्लें दिसून येता. ह्या प्रभावांतल्यान निर्माण जाल्ल्या साहित्यांत राणा प्रतापासारको वीर; पतंजलीसारको शास्त्रकार; ज्ञानेश्वर, तुकाराम, रामदास, मीरा हे संत, शीख गुरू; लोकमान्य टिळक, महात्मा गांधी, जवाहरलाल नेहरू हांचेसारके लोकनेते; वाराणसीचो पंडित; धान्यकुमारासारको वणिक्पुत्र; चुंडूरी वेंकट रेड्डीसारको वेपारी; शंकर पांडुरंग पंडितासारको पाश्चात्त्यविद्या विभूषित विद्वान हेय काव्यविशय जाल्यान प्रस्थापित राजसत्तेचें आनी तिच्या अधिकाऱ्यांची तोरवणाय ही एक वाङ्मयक्षेत्रांतली शाश्वत प्रवृत्ती आसा. तातूंत परकी सत्तांची आनी सत्ताधाऱ्यांचीं स्तुतिस्तोत्रां संस्कृत कवींनी गायिल्लीं जगन्नाथाच्या काळापासून उपलब्ध आसात. अशा कृतींच्या विशयांनी सिकंदर, गझनीचो महंमद, आसफखान, दारा शिकोह, अकबर, शाइस्तेखान, विजापूरचो बादशहा, बेगडा महंमद, निजाम, व्हिक्टोरिया, एडवर्ड, पंचम जॉर्ज हांचो आस्पाव जाता.

अर्वाचीन संस्कृत साहित्यांत नदरेंत भरपासरकी एक प्रवृत्ती म्हळयार राश्ट्रीय प्रबोधन. हे प्रवृतींतल्यान निर्माण जाल्ल्या साहित्यांत राणा प्रताप, शिवछत्रपती, रामकृष्ण, विवेकानंद, दयानंद, टिळक, गांधी, सुभाषचंद्र बोस, नेहरू ह्या इतिहासीक आनी आधुनिक विभूतींचेर आनी तांच्या तत्त्वज्ञानाचेर महाकाव्यां, नाटकां, स्तोत्रां, मुक्तकां, गद्यप्रबंध रचप जाला. तेचभशेन प्राचीन अर्वाचीन विभूती, पुण्यक्षेत्रां, फुडारी, कवी, ध्वज, ग्रंथ अशा भारतीय एकात्मतेच्या बऱ्याचशा प्रतिकांचेर स्वतंत्रपणान आनी एकठांय साहित्यकृती निर्माण जाल्यात. 'क्रांतियुध्द' (बागेवाडीकर) हो ग्रंथ १८५७ च्या स्वातंत्र्यझुजावयलो आसा. सत्याग्रहगीता आनी उत्तरसत्याग्रहगीता (क्षमा राव) हे दोन ग्रंथ गांधींच्या सत्याग्रहसंग्रामावयले आसात. अशो संस्कृत रचना प्रादेशिक भाशांतल्या ग्रंथांनीय मेळटात. 'वंदे मातरम्' हें बंकिमचंद्राच्या 'आनंदमठ' हे बंगाली कादंबरींतलें संस्कृतप्राय गीत हें हाचें प्रसिद्द उदाहरण आसा. राश्ट्रीय उत्थानाच्या काळांत संस्कृत हें भारताचो एक श्रेश्ठ मानबिंदू आनी एकात्मतेचें प्रतीक आशिल्लें हाची हाचेवयल्यान साक्ष पटता.

अस्तंती आनी प्रादेशिक साहित्यांच्या प्रभावान संस्कृतांत नव्यानच आयिल्ल्या गद्यसाहित्यांत जेतरेन कथा, कादंबरी आनी प्रसंगवर्णनां हांचो तेचतरेन पद्य साहित्यांत हेर भाशांतल्यान दिसपी छंदांच्या प्रयोगाचोय उल्लेख करप गरजेचो आसा. मंदारवती (कृष्णम्माचार्य, १९२९) ही १८ प्रकरणांची कादंबरी आधुनिक कादंबरीचे पद्दतीक अणसरून बरयल्या. शैवलिनी आनी कुमुदिनी (चक्रवर्ती राजगोपाल), सरला (हरिदास सिध्दांतवागीश) ह्यो कादंबऱ्यो हेच परंपरेतल्यो आसात. संस्कृतांतलें चडशें कथा - वाङ्मय संस्कृत कालिकांतल्यान उजवाडा आयलां. भोंवडेवर्णनाचें साहित्य संस्कृतांत खूब कमी आसा. तातूंत 'तीर्थाटन' (राजगोपाल), 'त्रिबिल्वदलचंपू' (रामस्वामी शास्त्री), 'कोकणचा प्रवास' (सखारामशास्त्री), 'न्यक्तर जनपदशोभा' (हॉलंडचो प्रवास छाब्रा), 'कावेरीगद्य' (श्रीशैल दीक्षित) ह्या कृतींचो उल्लेख मेळटा. संस्कृत पद्यरचना अक्षरगणवृत्तांनी प्रभावित उरल्या. अशी प्राचीनतम रचना जयदेवाच्या गीतगोविंदांत मेळटा. मथुरानाथ (मंजुनाथ) शास्त्रीन गझल, ठुमरी, दोहा, चौपाई अशा विंग विंगड छंदांनी खूब स्फुट संस्कृत रचना केल्ली आसून, ती साहित्यवैभव ह्या संग्रहांत आस्पावल्या. ह्या रचनांच्या विशयांनी रेडिओ, रेल्वे, विमान, मोटार, ट्रामवे, जहाज हेसारके आधुनिक विशय आसात.

पयलीं फकत संस्कृत ग्रंथांचे प्राकृतांत अणकार जाताले; हालीं प्राकृत आनी अस्तंती कृतींचे, संस्कृत अणकार खूब जावंक लागल्यात. अणकारीत संस्कृत वाङ्मयांत 'नालायिरम्' (शठकोप नम्मालवार), ह्या तमिळ काव्याचो गोविंदसुत रामानुजान केल्लो अणकार हो चडकरून प्रादेशिक भाशेंतल्या ग्रंथाचो पयलोच संस्कृत अणकार थारतलो. कथाशतक (एस. वेंकटरामशास्त्री) हो विंगड विंगड प्रादेशिक भाशांतल्या १०० कथांचो अणकार आसा. कामायनी (हिंदी, जयशंकर प्रसाद, अण. भगवद्दत्तशास्त्री), 'कपालकुंडला' (बंगाली, अण. हरिचरण भट्टाचार्य), लावण्यमयी (बंगाली), बंकिमचंद्र, अण. अप्पाशास्त्री राशिवेडकर), गीतांजली (बंगाली, टागोर), ज्ञानेश्वरी (ज्ञानदेव, अण. खासनीस), मनाचे श्लोक (रामदास, अण. 'तपतीतीरवासी' डेग्वेकर), केकावली (मोरोपंत, अण. साकुरीकर), बलिदान (न. चिं. केळकर, अण. लाटकर), अग्निजा (सावरकर - वेंचीक कविता, अण. पळसुले), संगीत सौभद्र (देवल, अण. वेलणकर), उमर खय्यामच्या रूबाया (फारसी - इंग्लीश, अण. गिरिधर शर्मा, डांगे, सुरू), जयसिहराजं प्रति श्रीमच्छयपतेः शिवप्रभो : पत्रम्' (मूळ फारसी काव्य, अण. कविराज), दुःखोत्तरं सुखम् (अरबी कथासंग्रह), अल्फर्जबादष्विद्द (फारसी 'जामे उल्हिकायान्' अण. अहम्मद), 'चोरचत्वारिंशी (अलिबाबा आनी चाळीस चोर, अण. गो कृ. मोडक) हीं कांय वेंचीक नांवां आसात. तशेंच शेक्सपीयरचें कॉमेडी ऑफ एरर्स (भ्रान्तिविलासम्, अण. श्रीशैल दीक्षित), शेक्सपीयर, वर्डस्वर्थ, शेली हांच्यो कांय कविता (किंकिणीमाला, अण. महालिंग शास्त्री). ॲज यू लाइक इट (पुरूषदशामस्तक, अण. रामचंद्राचार्य), यथाभिमत (अण. आर. कृष्णम्माचार्य), हॅम्लेट (पितुरूपदेश; अण. रामचंद्राचार्य), ए मिडसमर नाइटस् ड्रीम (वासन्तिक स्वप्न, अण. आर. कृष्णम्माचार्य), ऑथेल्लो (अण. राजराज वर्मा), विकार ऑफ वेकफिल्ड (प्रेमराज्य,

अण. रंगाचार्य), टेनिसनचें 'दि कप' (कमलाविजय, अण. वेंकटरमणाचार्य) हें ललित ग्रंथ आसात. तेचभशेन बर्कले, लॉक, बेकन हांचे निबंद, ॲरिस्टॉटलचें पोएटिक्स्, इंग्लिशीचीं व्याकरणां अशेय ग्रंथ आसात. गटेच्या 'फाउस्ट' ह्या जर्मन नाटकाचो अणकार 'विश्वमोहन' (अण. ताडपत्रीकर), अरविंदाश्रमाच्या माताजीच्या फ्रेंच 'बेल्स हिस्टोर'चो अणकार 'कथामंजिरी' (अण. जगन्नाथ) हेय उल्लेख करपासारके आसात. अरविंदाच्या तीन इंग्लीश कवितांचो कपाली शास्त्रींनी केल्लो 'कवितांजली' हो आनी गांधीच्या १०० सुभाशितांचो चिं.द्वा. देशमुख हाणें केल्लो 'गांधीसूक्तिमुक्तावली' हे अणकार प्रसिद्द आसात.

भारताचे राज्यघटनेचे सगळया प्रादेशिक भाशांनी अणकार जाल्यात तेचभशेन संस्कृतांतय 'भारतस्य संविधानम्' ह्या नांवान अणकार जाल्यात. संस्कृत साहित्याचेर प्रादेशिक आनी अस्तंती वाङ्मयाचो पडिल्लो प्रभाव तातुंतल्या विनोद, विडंबन, उपहास प्रवृत्तींतल्यान जाणवता. 'काकदूत' ह्या एकाच नांवाचीं दोन काव्यां (सहस्त्रबुध्दे, अय्यंगार), बल्लवदूत (बटुकनाथ शर्मा), मुद्‌गरदूत (रामावतार शर्मा) हीं कालिदासाच्या मेघदूताचीं विडंबनां, 'पल्लांडुशतक' (कांदाशतक, अण. श्रीकृष्णराम शर्मा), होलिकाशतकम् (विश्वेश्वर), संमार्जनीशतक (केरसुणीशतक, अण. अनंताल्वार), चहागीता (सहस्त्रबुध्दे), कॉफीशतक (वेंकटेश्वर), 'साहित्य विनोदराज' (राजे), सात्त्विक स्वप्न (नीलकंठ शर्मा), कॉंग्रेसगीता (सुरतेचें अधिवेशन) हीं कांय विडंबनां तशेंच वर्णेकराचें 'मंदस्मित', कंटकांजली' (कंटकार्जुन, १९६५) हो हेच परंपरेतलो मुक्तसंग्रह आसा. मुक्तकांजलि, मुक्तक मंजूषा हे मुक्तकसंग्रह उल्लेख करपासारके आसात.

**संस्कृत नेमाळीं** - संस्कृत नेमाळयांनी, संस्कृत साहित्याची निर्मिती जावपाक, आर्विल्ल्या काळांत खूब आदार केला. इ. स. १८६१ वर्सा लाहोराक सुरू जाल्ल्या विद्योदय म्हयनाळयासावन संस्कृत कालिकांचो उपरांत मंजुभाषिणी, सहृदया, संस्कृतचंद्रिका हीं नामनेचीं म्हयनाळीं आयलीं. अंबिका दत्त हिचें शिवराजविजय हें गद्यकाव्य संस्कृत चंद्रिका हे पत्रिकेंत पयलेच खेप क्रमशः उजवाडा आयलें. उपरांतच्या संस्कृत रत्नाकर (जयपूर), संस्कृत (अयोध्या), मधुरवाणी (बेळगांव) ह्या पत्रिकांक खूब नामान मेळ्ळी. स्वातंत्र्या उपरांत पुण्यांत भारतवाणी आनी शारदा हीं दोन पाक्षिकां आनी संस्कृती हें दिसाळें उजवाडाक येवंक लागलें. सुधर्मा नांवाचें दिसाळें म्हैसुरांत उजवाडा येता. संस्कृत प्रतिभा नांवाचें साहित्य अकादमीचें षाण्मासिक दिल्लींतल्यान उजवाडा येता. ह्या दिसाळयासावन वर्सुकी मेरेनच्या वट्ट ५३ कालिकांची नामावळ १९७२ च्या अधिकृत शासकीय प्रकाशनांत मेळटा. शाळा, म्हाविद्यालयां, विद्यापिठां हांच्या कालिकांतल्यानच संस्कृत साहित्य उजवाडा येत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**संस्कृती** : एक जिवन पद्‌दत. थारावीक काळांतल्या थारावीक वाठारांतल्या, थारावीक मनीस समुहाची भौतीक तसो आध्यात्मीक वेव्हार. हातूंत मनशाच्या आंतरबाह्य कर्तुपांचो विकासक्रम आस्पावता. दर एक मनीस समुह एक एक थारावीक पद्‌दतीन आपले वेव्हार सुरू करता. ती पद्दत दायज जावन परंपरेन फुडले पिळगेकडेन पावता. अशे तरेन जिवन पद्दतीचो एक सलग असो दोरो निर्माण जाता. मदीं काळाच्या संदर्भांत आनी परिस्थितीनुसार बदल घडत आसले तरी जिवन पद्दतीचे मुळावे घटक बऱ्याच प्रमाणांत अबाधीत उरतात.

संस्कृती हें उत्तर सम् + कृती म्हणजे संस्कारांत कृती असो जाता. ह्या अर्थाप्रमाण संस्कृतीक जिवन पद्दतीचे परंपरे वांगडाच आदर्श जिवन पद्दतीचें मुल्य येवन दसता.

मनशाच्या स्वभावात वायट तशे बरे गूण आसप ही सैमीक प्रवृत्ती. ताकालागून मनशाकडसून बरें तशें वायट दोनयतरेचें कार्य घडपाची शक्यताय आसा. वायट प्रवृत्तीचेर नियंत्रण दवरून बरे प्रवृत्तीक वाट करून दिवप मनशाक शक्य जावचें म्हणून दर एके जिवन पद्दतीत उजू नेम वा संस्कार थारायल्यात. ह्या संस्कारांक पाळो दिवपी जिवन पद्दतीक मनशाची संस्कृती म्हळया आनी पाळो ना दिवपी जिवन पद्दतीक विकृती म्हळया. मनशाचें जिवित ही प्रकृती धरल्यार ताचें उजू वागप ही संस्कृती जाता आनी वायट वागप ही विकृती जाता. विकृतीक मनीस जिविताची अधोगती आनी संस्कृतीक प्रगती म्हळया.

**संस्कृतीची निर्मिती** : दर एके संस्कृतींत कांय जाणांकडेन संस्कृती जनक म्हणून बोट दाखोवप जालें, म्हणजे तशो कथा रचप जालें तरी संस्कृतीची निर्मिती कोणा एका कडसून जावप असंभव दिसता. संस्कृतीच्या खंयच्याय एका घटका संबंदीं वा ताच्या बदला संबंदी कोणय एकलो मुखेलपणान कारणीभूत जाला अशें दिसलें तरी संस्कृती ही घडण वा संस्कृती बदल ही एक सामुदायिक निर्मिती आनी तिचें एके पिळगेसावन दुसरे पिळगेकडलें हस्तांतरणय सामुदायिक परंपरेनच जाता. अदींमदीं काळाचे गरजेप्रमाण पोरने संस्कार कायमचे सोडप जाता. ताचे सुवातेर नवे संस्कार आपणावप जातात वा पोरने संस्कार सुदारून घेवप जातात. तेन्ना लेगीत हे बदल समुहांतल्या चडांतचड वांगड्यानी स्विकारतकच ते संस्कृतींत आस्पावतात.

संस्कृतीच्या घटकांचीं दोन रुपां मानल्यांत - १) भौतिक वेव्हाराचें रूप आनी दुसरें बुध्दिगम्य रूप. पयल्या रुपाचें गिन्यान मनीस धरून सगळयाच जिवांक आसा. पूण दुसऱ्या रुपाचें गिन्यान फकत मनशाकच प्राप्त जाल्ल्यान संस्कृतीची व्याप्ती मनशापुरतीच उरता. हेर जिवांच्या जिवन पद्दतींत कांय गुणांचें पारंपारीक दायज चलता आसलें तरी तें कुडीच्या दीसपट्ट्या सैमीक गरजांपुरतें (भोंवप,

जेवप, न्हिदप, मैथुन) शिमित उरता. ताच्या भायल्या बौध्दिक वेव्हाराच्या जिविताच्या समाजीक भागाक ताचो स्पर्श जायना. म्हणून संस्कृती हे संकल्पनेचो संदर्भ जिवसृश्टींतल्या फकत एकाच जिवाक म्हणजे मनशाक लागू जाता.

संवसारभरच्या मनशाचे कुडिची घडण लागीं लागीं एक सारकी आसली आनी ते कुडिच्यो गरजो सादारणपणान समान आसल्यो तरी संवसारांत सगळेचकडेन मनशाची जिवित पद्दत एकसारखी ना अशें दिसून आयलां. भुगोलीक, इतिहासीक, समाजीक, अर्थीक, धर्मीक, आध्यात्मिक कारणांकलागून वेगवेगळेकडेन वेगवेगळयो जिवन पद्दती संस्कृती घडल्यात. तांकां कालमानानुसार, भुगोलीक शिमा नुसार आनी धर्मीक श्रध्दे नुसार वेगवेगळीं नांवां दिल्यात. जशीं रोमन संस्कृती, ग्रीक संस्कृती, अस्तंती संस्कृती, निग्रो संस्कृती, चिनी संस्कृती, हिंदू संस्कृती आनी बौध्द संस्कृती.

**भारतीय संस्कृती :** भारतीय संस्कृतीचें संस्कृती संगम हें एक वैशिश्ट आसा. भारतीय संस्कृतीचो इतिहास तपासतकच एक गजाल स्पश्टपणान दिसून येता ती म्हणजे हांगा भिन्न भिन्न संस्कृतीचे लोक समुह हांगाच्या दीर्घकालीन संपर्कांतल्यान एकामेकांक सांबाळून रावल्यात. हे अशे संस्कृतीक तळजोडींतल्यान हांगा एक सर्वसामावेशक अशी संस्कृती निर्माण जाली. दर एका लोक समुहाचो सभावाचे पैलू हे संस्कृतींत दिसता आसले तरी सगळया समुहाच्या पैलूंतल्यान एक भारतीय सभावाचो तंतू गेल्लो दिसता. विविधतेंतल्यान एकता अशी थोडेभितर भारतीय संस्कृतेची व्याख्या करूं येता.

भारतीय संस्कृतीचे मुखेल घटक अशे आसात -

१) आश्रम वेवस्था : मनशाच्या जिविताच्यो चार अवस्था मानून ताका ब्रह्मचर्याश्रम, गृहस्थाश्रम, वानप्रस्थाश्रम आनी संन्यासाश्रम अशीं नांवां दिल्यांत. विद्यार्थी अवस्थेक ब्रह्माचार्य आश्रम मानून हे अवस्थेंत विद्याप्राप्ती करप उपरांतचे ग्रहस्थाश्रमाचे अवस्थेंत कुटुंबीक संवसार करून प्रजोत्पत्ती करप, तिसरे वानप्रस्थाश्रमाचे अवस्थेंत संवसार त्याग करून आनी कुटुंबाची जापसालकी अपत्यांचेर सोडून रानांत वचप आनी निमाणे संन्यासाश्रमाचे अवस्थेंत संन्यास घेवन मोक्ष जोडपाच्या उद्देशान आत्मज्ञान प्राप्त करप. अशे तरेन जिविताच्यो सगळयो अवस्था परिपुर्ण जगून जिवन कृतार्थ करप हो आश्रमवेवस्थेच्या कल्पनेफाटलो उद्देश आसा. आयचे घडयेक फकत पयल्या दोन अवस्थांचें सुदारीत रूप दिसता. निमाण्यो दोन अवस्था लागीं लागीं नाच जाल्यात म्हळयार जाता.

२) चातुर्वण्य : जल्म आनी जल्माचेर आदारीत कामां आनी त्या नुसार अधिकार, प्रतिश्ठा, हांची मांडावळ करपी भारतीय संस्कृतींतली एक सनातन रचणूक. विद्यार्जन - अध्यापन, संरक्षण, वेपार आनी सेवा ह्या समाजाच्या गरजांचें नियमन आनी नियंत्रण सांगपी अशी ही सनातनीय विचारांची समाजीक चौकट. चातुवर्णाचें अधिश्ठान धर्मशास्त्रकारांनी जल्माचेर दवरिल्ल्यान चातुर्वणावरवीं जाती संस्था हें हिंदू समाजाचें एक म्हत्वाचें आंग जालां. जाती वेवस्थेंतलें उचनिचपण तशेंच अश्पृश्यताय ह्या अशास्त्रीय गजालींखातीर भारतीय संस्कृतीचेर टिकाय खूब जाल्या. स्वतंत्र भारताचे राज्यघटनेंत जातीसंस्था नश्ट करप हें उद्दिश्ट दवरलां. आधुनिक विज्ञानीक विचारसरणेक लागून भारतीय समाजांत जाती वेवस्थेची बुन्याद हालूंक लागल्या अशें आसलें तरी आजय जात ही भारतीय समाजांत एक प्रबळ आनी वातड गजाल जावन रावल्या.

३) पुरूषार्थ कल्पना : मनशाच्या जिविताची सार्थकता धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष ह्या चार यशस्वी कर्माचेर थारायल्या. अर्थ आनी काम ह्या अहिक कर्मा वांगडा धर्म आनी मोक्ष ह्या नैतिक कर्मांची सांगड घालून जिविताक पुर्णत्व दिवपाचो विचार जाला. तेचवांगडा अहिक कर्माक धर्मीक कर्मांचें नियंत्रण दवरून दोनय कर्मांचो सुमेळ साधला.

४) रीण कल्पना : जल्माक आयिल्ल्या प्रत्येक मनशान देवाचें, ऋषी - मुनीचें, बापायचें आनी मनशाचें अशीं चार रीणां पावोवचीं अशें सांगलां. देवाची पुजा करून देवाचें, विद्यार्जनान ऋषी - मुनीचें, प्रजोत्पादनान बापायचें आनी समाजसेवेन मनशाचें रिण पावोवचें अशें सांगलां.

५) आस्तिक आनी नास्तिक दर्शना : वेदांक मानपी आस्तिक आनी वेदांक न मानपी तीं नास्तिक अशा ह्या दोन दर्शनांनी न्याय, मिमांसा, वेदांतादी दर्शनां हांकां आस्तिक दर्शनां मानल्यांत. तर चार्वाक, जैन, बौध्द आदी दर्शनांक नास्तिक दर्शनां मानल्यांत.

६) दैवतां : भारतीय संस्कृतींत अलौकीक अशा अदृश्य, अव्यक्त शक्तींचें अस्तित्व मानलां आनी त्या अस्तित्वाक दैवत सृश्ट मानून तिची पुजा केल्या. संवसारांत जें जें दिव्य - भव्य आनी उपकारक आसा तांचो सगळयांचो दैवत सृश्टींत आस्पाव केला. संवसाराचे सगळे वेव्हार दैवत सृश्टीच्या नियंत्रणाखाल चलता असो विश्वास मानला.

दैवतांचेच जोडयेक तीर्थक्षेत्रांची रचणूक करून भारतीय भूयेबद्दल आदर निर्माण केला. सद्याच्या अती प्रगत काळांत भारतीय संस्कृतीचीं कांय मुल्यां कालबाह्य जाल्यांत अशें दिसलें आनी कांय प्रमाणांत तातूंत तथ्य आसा अशें मानलें तरी भारतीय संस्कृतींतली मुळावी अशी समन्वयाची आनी सहकार्याची भावना, विश्वप्रेमाची प्रेरणा दिवपाक आजय समर्थ आशिल्ल्याचें जाणवता. संवसारांतल्या कांय मेजक्याच अशा समृध्द संस्कृतींमदीं भारतीय संस्कृतीक मानाचो पाट मेळ्ळा.

- कों. वि. सं. मं.

**संस्थान :** व्हडले अधिसत्तेखाला थळावें राज्य करपी प्रदेशीक

शासनसत्ता. इंग्लिशांचें राज्य स्थापन जावंचेपयलीं हिंदुस्थान देश जायत्या ल्हान व्हड राज्यांनी विभागिल्लो आशिल्लो. ब्रिटीश इस्ट इंडिया कंपनीन मोगल आनी मराठे हांच्याकडच्यान वेपाराच्या प्रवासाच्यो सवलती मेळयल्यो, वेपार वाडयलो आनी ताचेवांगडाच कांय प्रदेशय मेळोवपाक सुरवात केली. अठराव्या शेंकड्याच्या मध्याक मार्किस ऑ हेस्टिंग्जान त्या वेळच्या हिंदी राजे राजवाड्यांकडेन तह आनी करार केले. वेलस्लीन तैनाती फौजो दवरल्यो आनी सत्तावर्चस्व वाडयलें. डलहौसीन अशीं राज्यां ह्या ना त्या निमतान खालसा करपाचें धोरण आंखून सत्ता हस्तगत केल्यो. अठराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक इंग्लिशांनी हिंदुस्थानचो कांय प्रदेश जिकून घेतलो. इंग्लिशाची पुराय सत्ता स्थापन जाली आनी ल्हान व्हड स्वतंत्र भारतीय राज्यां ब्रिटीश सत्तेखाला आयलीं. तेन्ना हिंदुस्थानांत ल्हान व्हड मेळून ६०१ अंकित राज्यां आशिल्लीं. ह्या संस्थानांकडेन ब्रिटीश ईस्ट इंडिया कंपनीन राजकीय संबंद प्रस्थापित केले. इ. स. १८५७ च्या उठावा उपरांत मात इंग्लीश राजान कंपनीची सत्ता बरखास्त करून सगळ्या संस्थानांचेर अधिपत्य स्थापन केलें. तातूंत काश्मीर, हैद्राबाद, म्हैसूर, ग्वाल्हेर, बडोदा, त्रावणकोर हीं मुखेल संस्थानां आशिल्लीं.

ह्या संस्थानिकांक इंग्लिशांचे परवानगेबगर कसलोच म्हत्वाचो निर्णय घेवपाक मेळनाशिल्लो. इंग्लिशांनी निर्माण केल्ल्या वा पराभूत केल्ल्या सगळ्या राजांक आपलें सार्वभौमत्व सोडचें पडिल्लें. फुटीरपण, आर्थिक, अडचणीच्या कारभारांत विस्कळीतपण, राजा आड प्रजेचो उठाव, अशा उठावाचो भंय वा हेर कितेंय पेंचप्रसंग निर्माण जाल्यार इंग्लिशांनी संस्थानिकांक पालव दिवंचो अशें संस्थानिकांकडेन जाल्ल्या करारांत थारायल्लें. ताकालागूनच संस्थानिकानी आपलो वारसो थारावप, हेर संस्थानिकांकडेन संबंद दवरप सारकिल्ल्या विशयांचेर इंग्लिशांचें नियंत्रण आयिल्लें.

इ. स. १८५७ च्या सशस्त्र उठावान संस्थानां आनी इंग्लिशांची सत्ता हांच्या संबंदांत उल्लेख करपासारके बदल जाले. खालसा करपाच्या धोरणाक लागून संस्थानीक आनी प्रजा दोगांय दुखावलीं. अवध, झांशी, नागपूर हांचेर अन्याय जालो. ब्रिटीश अधिकाऱ्यांनी त्या संस्थानिकांकडेन केल्ली वागणूक अरेरावीची आनी दडपगिरीची आशिल्ली. हिंदी फौजेच्या उठावाकलागून संस्थानिकांची लोकप्रियता आनी तांच्याविशीं प्रजेच्या मनांत आशिल्लो आदरभाव ब्रिटिशांच्या लक्षांत आयलो. तो उठाव इंग्लिशांनी मोडून काडलो आनी देशभर आपली सत्ता जाहीर केली. तेखातीर इंग्लीश राणी व्हिक्टोरियाचो जाहिरनामो प्रसिद्द जालो. ताचेउपरांत संस्थानां खालसा करपाचें धोरण इंग्लिशांनी मोडलें. संस्थानिकांकडेन केल्ले करार पाळटले अशें उतर ह्या जाहीरनाम्यांत दिलें. पूण तेखातीर संस्थानिकांनी इंग्लीश साम्राज्य सत्तेकडेन एकनिश्ठ रावंचें अशी अट आशिल्ली.

राणयेच्या जाहीरनाम्या उपरांत ब्रिटीश सरकाराची साम्राज्यसत्ता हिंदुस्थानाचेर थीर जाली. ब्रिटीश सरकारचो संस्थानिकांकडेन प्रत्यक्ष संबंद प्रस्थापित जलो आनी ब्रिटीश सरकारान ताब्यांतले हेर प्रदेश आनी संस्थानां हांकां समान मानपाक सुरवात केली. हाचो परिणाम म्हणून संस्थानिकांचें सार्वभौमत्व सोंपलें. देशांत म्हत्वाचे राजकीय बदल घडून आयलें.

ब्रिटीश सत्तेचो प्रतिनिधी म्हणून दर एका संस्थानांत रेसिडेंट रावतालो. तो ब्रिटिशांच्या नियंत्रणाची अंमलबजावणी करतालो. संस्थानिकांच्या सगळया हालचालींचेर आनी वेव्हारांचेर ताचें नियंत्रण आसतालें. मागीर संस्थानिकांची राखण करपाच्या नांवांखाला ब्रिटिशांनी संस्थानाच्या कारभारांत हस्तक्षेप सुरू केलो. दडपशाय, लाचलुचपत हांचेआड कारवाय करपाची घोशणा लॉर्ड मेयोन केली. जनतेंत बंडखोरी, फुटीरपणा आनी अराजकता निर्माण जावपाक जायना अशें ताणें जाहीर केलें. ब्रिटिशांनी शिफारस केल्ले दिवाण संस्थानिकांनी नेमचे अशीय प्रथा सुरू जाली.

ब्रिटिशांनी बडोद्याच्या संस्थानिकांक गैर वेवस्थेक लागून आनी ब्रिटीश रेसिडेंटाक वीख घातिल्ल्याच्या आरोपावयल्यान सत्तेवयल्यान काडून उडयले. ह्या प्रकरणाक लागून सगळ्या संस्थानिकांक धक्को बसलो. संस्थानी प्रजेच्यो भावनाय दुखावल्यो. इ.स. १८८९ त इंपिरिअल सर्व्हिस हे संघटनेची स्थापना जाली. हे संघटनेक संस्थानिकांनी पालव दिवंचो अशें थरलें. पूण कांय संस्थानिकांनी सेनेक पालव दिलो ना. लॉर्ड कर्झनान संस्थानिकांच्यो जायत्यो सवलती आनी हक्क कमी केले. संस्थान सोडून भायर देशांत वा परदेशांत वचपाक आनी हेरांकडेन पत्रवेव्हार करपाक ब्रिटीश रेसिडेंटाची परवानगी घेवंची पडटाली. ह्या कडक धोरणान ब्रिटीश सरकाराचो संस्थानांत हस्तक्षेप वाडिल्ल्यान तांचे संबंद पयसावतले अशें व्हाईसरॉय लॉर्ड मिंटोन इंग्लीश सत्तेक कळयलें. ब्रिटिशांक संस्थानांत अनुकूल वातावरण दवरप गरजेचें आशिल्लें. तातुंतच पयलें म्हाझूज सुरू जालें आनी संस्थानांकडेन सहकार्याचे संबंद प्रस्थापीत करपाची ब्रिटिशांक गरज लागली.

ब्रिटीश सरकाराच्या प्रोत्साहनान इ. स. १९२१ त नरेन्द्र मंडळाची स्थापना करपांत आयली . विचार विनिमय आनी सल्ल्याखातीर ह्या मंडळाचो उपेग करताले. संस्थानांक एकटीं उडोवपाचें धोरण सोडलें आनी भारतीय राजकारणांत तांकां स्थान आसा अशें दाखोवपांत आयलें. पूण ब्रिटीश सत्तेचें सर्वश्रेश्ठत्व निर्विवाद आसा हेंय स्पश्ट केलें. परराश्ट्र संबंद कुशीक काडल्यार आपूण सार्वभौम आसा असो दावो बडोदा संस्थानान केलो ताकालागून संस्थानिकांच्या संबंदांचो विचार करपाक बटलर हाचे अध्यक्षतायेखाला एक समिती नेमपांत आयली. पूण तिणेंय ब्रिटीश धोरणाचें समर्थन केलें. विसाव्या शेंकड्याच्या पुर्वार्धांत संस्थानिकांचो कल राज्यकारभार आनी न्यायवेवस्था हातूंत सुदारणा करपाचो आशिल्लो.

इ. स. १९३२ त भरिल्ल्या गोलमेज परिशदेंत संस्थानिकांक प्रतिनिधित्व दिवपांत आयलें. राश्ट्रसंघांत भारतावतीन जें प्रतिनिधीमंडळ दाडिल्लें तातूंत बडोदा, बिकानेर, पतिाळा ह्या संस्थानिकांकय स्थान दिवपांत आयलें.

ब्रिटीश हिंदुस्थान आनी संस्थानां मेळून एक संघराज्य स्थापन जावंचें अशें इ. स. १९३५ च्या सुदारणा कायद्यान सुचयल्लें. पूण काँग्रेसीचो आनी मुस्लिम लिगाचोय हाका विरोध आशिल्लो.

स्वातंत्र्याउपरांत संस्थानाचें विलीनीकरण जालें. ब्रिटीश सरकारान त्रिमंत्री येवजणेप्रमाण संस्थानिकांकय स्वातंत्र्य दिवपाचें थारायलें. देशाचे फाळणेकलागून कांय संस्थानां भारतांत जाल्यार कांय पाकिस्तानांत उरलीं. स्वातंत्र्या उपरांत संस्थानिकांनी भारतांत विलीन जावंचें अशें काँग्रेस आनी हेर राश्ट्रवादी संस्थांचें मत आशिल्लें. तेप्रमाण जायत्या संस्थानिकांनी आपले इत्सेन सामिलीकरण्याच्या कराराचेर सयो केल्यो. जुनागड काश्मीर आनी हैदराबाद ह्या संस्थानांच्या विलिनीकरणाविशीं मात भारत सरकाराक पोलीस कारवाय करची पडली. हाकालागून एक संघ भारत निर्माण जालो.

भारतीय राज्यघटनेप्रमाण जायत्या संस्थानांचें एकत्रीकरण करून तांचे गट केले. त्या गटांचीं घटकराज्यां निर्माण केलीं. ताचेउपरांत इ. स. १९५६ च्या प्रांत पुनर्रचनेंत तीं राज्यां लागींच्या भाशीक राज्यांत समाविश्ट जालीं. संस्थानां विलीन जाल्या उपरांत संस्थानिकांक तनखे आनी कांय सवलती दिवपांत येताल्यो. पूण इ. स. १९७१ त संमत जाल्ल्या २६ व्या घटना दुरूस्तीन संस्थानिकांच्यो पदव्यो, खाशेले हक्क आनी तनखे रद्द करपांत आयले.

कांय आडवाद सोडले तर संस्थानिकांचो कारभार एकतंत्री आनी म्हणून अलोकशायी पद्दतीचो आसतालो. संस्थानांचे येणावळीचो चडसो वापर संस्थानांतले प्रजेच्या हितापरस संस्थानिकांच्या कुटुंबियाखातीर आनी तोय तांचे चैनीचेर जातालो. संस्थानिकांच्या मनोरंजनाच्या कारणाखातीर भोवतेक सगळया संस्थानांनी कला क्रिडेक प्रोत्साहन मेळटालें. कांय संस्थानीक स्वता, अशा कला - क्रिडांनी निपूण आसले. भव्य आनी सुंदर कला कुसरीचे राजवाडे ही संस्थानांची वास्तुशास्त्राक मेळिल्ली एक देणगी आसा. कांय संस्थानिकांनी स्वतंत्र भारताच्या लोकशायी राजकारभारांत वांटो घेवन आपलें राजकीय योगदान दिलां.

- कों. वि. सं. मं.

**स :** देवनागरी वर्णमाळेंतलें बत्तीसावें व्यंजन. हाका सद्याचें रुप मेळचे पयलीं पांच अवस्थांतल्यान वचचें पडलां. अशोकाच्या गिरनार हांगाच्या शिलालेखांत हाची पयली अवस्था पळोवपाक मेळटा. दुसरी अवस्था क्रिस्तापयलीं, पयल्या शेंकड्याच्या अदमासाक खोदिल्ल्या मथुरा हांगाच्या जैन लेखांत, तिसरी पांचव्या शेंकड्याच्या करडांडाच्या लेखांत, चवथी त्याच शेंकड्यांतल्या बिलसद हांगाच्या स्तंभलेखांत आनी पांचवी सव्या शेंकड्याच्या उष्णीषविजयधारिणी ह्या ग्रंथांतले वर्णमाळेंत मेळटा. ह्या वर्णाचें स्वरुप कामधेनुतंत्रांत वर्णिलां तें अशें -

सकारं शृणु चार्वङ्गी शक्तिबीजं परात्परम् ।
कोटिविद्युल्लताकारं कुण्डलीत्रयसंयुतम् ।।
पञ्चदेवमयं देवि पञ्चप्राणात्मकं सदा ।
रजःसत्त्वतमोयुक्तं त्रिबिन्दुसहितं सदा ।।

**अर्थ** - हे चारुगात्री, सकाराचें वर्णन आयक्. तो एक शक्तिबीज आसा. कोटिविद्युत्प्रभ, कुंडलीत्रययुक्त, पंचदेवमय आनी पंचप्राणमय, तशेंच त्रिगुण आनी त्रिबिंदू हाणीं युक्त असो आसा. दंत हें ताचें उच्चारणस्थान आसा.

'स'चो विकासक्रम असो -



- कों. वि. सं. मं.

**सखाराम महाराज :** (जल्म : इ. स. १७५७, पिंपळी, अमळनेर, खानदेश; मरण : इ. स. १८१८).

एक साक्षात्कारी संत आनी वारकरी संप्रदायाचो व्हड अनुयायी. ताच्या बापायचें नांव रामभट अमळनेरकर आनी आवयचें नांव सीताबाई. सखाराम महाराजाक ल्हानपणासवन ईश्वरभक्तीची गोडी आशिल्ली. ल्हान पिरायेंतच ताचे आवय - बापायक मरण आयलें आनी तो आपलो चुलतभाव रंगनाथ हाचेकडे रावपाक गेलो.

ताचें गंगाबाई नांवांचे चलयेकडे लग्न जालें. ताचे साधकावस्थेकय तेन्नाच आरंभ जाल्लो. अशे अवस्थेंत ताका श्रीनिवास महाराजाचो गुरुबोध जालो. उपरांत कांय घरगुती कटकटींखातीर महाराजान घर सोडलें आनी लागसारच एक खोंप बांदून तातूंत संवसार थाटलो. ताका एक पूत जालो. पूण रोकडेंच ताचे बायलेक आनी पूताक मरण आयलें.

विठ्ठलाची वारी करप हो सखाराम महाराजाचो नेम आशिल्लो. दर वर्सा वारीक वतना तो आपली खोंप लासतालो आनी वतालो. असोच एक फावट वारीक वतना वाटेंत गोदावरीक व्हड हुंवार आयलो. हुंवार देंवपाचीं चिन्नां दिसनात तेन्ना ताणें उदकांत उडी घेतली आनी तो पंढरीक गेलो. महाराजाचो सिध्दींचेर मात विस्वास नाशिल्लो. महादेवबुवा नांवाच्या एका सिध्दान आपल्याक प्राप्त जाल्ल्यो सिध्दी सखाराम महाराजाक दिवपाच्यो केल्यो पूण ताणें त्यो न्हयकारल्यो. वैराग्य आनी नेमांचें पालन हेसंबंदी ताची खूब नामना आशिल्ली.

सखाराम महाराज एक उत्तम कीर्तनकार. कीर्तनावांगडाच

ताणें खुबशे अखंड नाम सप्ताह आनी अन्नदान केलां. दुसरो बाजीराव ताच्या कीर्तनांनी खूब प्रभावित जाल्लो. अन्नदान करपाची ऊर्बाय ताका सखाराम महाराजाकडल्यानच मेळ्ळी अशें म्हण्टात.

वैशाख म्हयन्यांतल्या एका नामसप्ताहांत ताणें आपलो देह दवरलो. ताचे खूब शिश्य आसात. तांणी सखाराम महाराजाचे खोंपी म्हन्यांत एक व्हड विठ्ठलमंदिर बांदलां. पंढरपुरांत ताचो एक मठ आसा. पांच हजार ओव्यांचें ताचें एक चरित्रय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सज्जनगड :** महाराष्ट्रांत सातान्याचे अस्तंतेक परळी नांवाच्या गांवालागीं आशिल्ल्या दोंगरावयलें एक स्थान. ह्या गडाचेर समर्थ रामदासाची समाधी आसा.

ह्या गडाचें पोरनें नांव परळीचो गड अशें आशिल्लें. समर्थ रामदास थंय रावपाक लागल्या उपरांत शिवाजी महाराजान ताका सज्जनगड हें नांव दिलें आनी थंय समर्थाखातीर मठ बांदलो.

ह्या गडाचो चडसो तट पडिल्लो आसून फक्त प्रवेश दाराकडचोच कांय वांटो बरो आसा. तटासकयल दावेवटेन मारूतीचें आनी उजवेवटेन सवत्स धेनूचें ल्हानशें देवूळ आसा. महाद्वारांतल्यान भितर सरतकच दावे आनी उजवे वटेन वराह आनी हनुमान हांच्यो मूर्ती दिसतात. तांची स्थापणूक आधुनिक संतपुरूश श्रीधरस्वामीन केली.

ताचे उपरांत सोपणां चडून वतकच फुडले वटेन मठाचें दार दिसता. ताचे उजवेवटेन मारुतीचें देवूळ आसा. ताचे फाटलेवटेन तळें आसून लागींच श्रीधरकुटी नांवाची व्हडली वास्तू आसा.

मठाचो आवार व्हड आसा. ताच्या प्रवेशदारांतल्यान भितर सरलेबरोबर फुडें समर्थाचो मठ आनी उजव्या हाताक श्रीराम देवूळ आनी समर्थाची समाधी आसा. मठाची पोरनी वास्तू शिवाजी महाराजान बांदल्या. थंयच समर्थ रामदासान आपले निमणे दीस सारले. थंयच्या शेजघरांत ताच्यो जायत्यो वस्तू दवरिल्ल्यो आसात.

श्रीराम देवळाच्या सभामंडपांत सिध्दीविनायक आनी हनुमान हांच्यो मूर्ती आसात. सभामंडपांतल्यान कांय सोपणां चडून गेल्या उपरांत मुखेल देवूळ लागता. तातूंत श्रीराम, लक्ष्मण आनी सीता हांच्यो पंचरस मूर्ती दिसतात. मोगल सेनेन जन्ना महाराष्ट्रांत धुमाकूळ घालो, तेन्ना त्यो मूर्ती वासोट्याच्या किल्ल्याचेर लिपोवन दवरिल्ल्यो. छत्रपती राजारामाच्या वेळार सज्जनगडाचेर नवें देवूळ बांदून तांची परत प्रतिश्ठापना केली.

श्रीराम देवळाच्या गाभाऱ्याकडच्यानच सकयल समाधीकडेन वचपाक भिंतीतल्यान एक फातरांचो जिनो आसा. थंय पितुळचे पेटयेंत समर्थाच्यो पादुको आसात.

देवळाचे फाटलेवटेन नैऋत्य कोनशाक एक मारुतीचें देवूळ आनी वायव्य कोनशाक वेणाबाईचें वृंदावन आसा. समर्थाच्यो दुसऱ्यो शिश्या आक्काबाई हिची समाधी रामाच्या देवळाच्या फुडल्या भागांत उत्तरेक आसा. थंय आतां समर्थ सेवामंडळान व्हड सभाघर बांदलां.

मठापसून कांय अंतराचेर एका बुरूजालागीं आंग्लाईचें देवूळ आसा. हें देवूळ समर्थाच्या काळांतलें. अंगापूरच्या डोहांत रामाचे मूर्तीवांगडा ही रामवरदायिनीची मूर्ती समर्थाक मेळ्ळी म्हणून तिचें नांव आंग्लाई अशें दवरलें. हे मुर्तीचें ध्यान महिषासूर मर्दिनीचें आसून ती चतुर्भुज आनी सायुध आसा.

ह्या गडाचेर दर वर्सा दास नमीक व्हड उत्सव आसता. तो माघ वद्य प्रतिपदेपसून नमीमेरेन चलता. त्या दिसांनी ४० - ५० हजार समर्थभक्त थंय जमतात. नमीक समर्थाची पुण्यतीथ आशिल्ल्यान थंय खूब गर्दी जाता. हाच्याशिवाय महाशिवरात्रेक आनी रामनमीक हांगा बरीच यात्रा जमता.

- कों. वि. सं. मं.

**सटी :** भुरगें जल्माक आयल्या उपरांत सव्या दिसा रातचो करपाचो एक विधी. ह्या विधीत पुजा करतात ते देवतेचें नांव षष्ठी. गोंयांत हिका सटी म्हण्टात. सटी ही भुरग्यांची राखण करपी देवता. हे देवतेची निर्मणेची कथा ब्रह्मवैवस्वत पुराणांत आनी भागवतांत सांगल्या. मूलप्रकृतीच्या सव्या अंशांत ती प्रगट जाली. म्हूण तिका षष्ठी अशें नांव मेळ्ळें. षष्ठी ही ब्रह्मदेवाची मानसकन्या आसून स्कंदपत्नी देवसेना ती हीच. ती सोळा मातृकांत प्रसिद्द आसा. तिची कथा अशी -

स्वयंभुव मनुचो पूत, प्रियव्रत नांवाचो राजा आशिल्लो. ताचे बायलेचें नांव मालिनी. तांकां भुरगें खूब तेंपान जालें पूण तें रोखडेंच मेलें. राजा त्या भुरग्याक घेवन मसंडेंत गेलो. थंय ताका देवसेना दिसली. पुताच्या मरणान दुख्खी आशिल्ल्या राजान तिची पुजा केली. देवसेना प्रसन्न जावन तिणें राजपुत्राक जितो केलो आनी राज्यांत आपली पुजा करपाच्या अटीर तिणें राजपुत्राक राजाच्या सुवादिन केलो. मागीर राजान पुत्र जल्माचो उत्सव करून सव्या राती ''ॐ षष्ठी देव्यौ स्वाहा' ह्या मंत्रान तिची पुजा केली.

षष्ठीची तरेतरेच्या नांवांनी भारतभर पुजा जाता. महाराष्ट्रांत तिका सटवी, संतुबाआी वा सुभान संतुबाआी अशें म्हण्टात. हिंदीभाशीक राज्यांतल्यान तिचो ''छट'' वा ''छटी'' असो उल्लेख जाता जाल्यार गोंयांत ''सटी'' अशी षष्ठीचीं खूब भ्रश्टरुपां जाल्यांत. हरियाणांत ती 'बेमाता' वा ''बेदमाता'' ह्या नांवांन प्रसिद्द आसा. हाच्या शिवाय ''जातमातृ देवता'', ''जातहारिणी देवता'', ''चर्चिका'' अशींय नांवां वाचूंक मेळटात. बौध्द देवी हारितीचोय षष्ठीकडेन लागींचो संबंद आसा.

सटयेन भुरग्याक बादिकार जांव नये. ताचें आरोग्य बरें उरचें आनी आवयसयत भुरग्याचें आयुश्य वाडचें म्हण भुरगें जल्माक

आयल्या बरोबर सवे राती सटयेची पुजा बाळंटिचें कुडींत करतात. तेन्ना विहनेह, जन्मदा, षष्ठी, जीवंतिका आनी शस्त्रगर्भा देवतांचें पूजन करतात. शांतिसूक्ताचें पठन करतात, ब्राह्मणाक विडो दक्षणा दिवन आवादीत देवतांचें विसर्जन करतात. इश्ट - मित्रांक जेवण घालतात. ह्या विधी पुरतो सुयेर लागना.

हे पुजेवांगडा कांय लोकोपचार करतात. ब्रह्मदेव जें भविश्य करता तें सटी भुरग्याच्या कपलार बरयता अशी समजूत आसा. ते खातीर पुजेलागीं पाटार तिंत - पेन, कोरो कागद दवरतात. सटयेची पुजा प्रांताप्रमाण तशीच कुलपरंपरेप्रमाण मनयतात. तशेंच पुजेचे प्रकार आनी जातीप्रमाण तातुंतल्यान सामानांत फरक आसता. बंगालांत बाळंटीच्या सव्या दिसा सांजेची षष्ठीची शेणाची वा मातयेची मूर्त करून तिची पुजा करतात. मुर्ती लागसार उदकान भरिल्लो एक तांबयो आनी आंब्याचो ताळो दवरतात. संताळ परगण्यांक मैथिली ब्राह्मणांगेर भुरगें जल्माक आयलें म्हणजे बाळंटीचे कुडींत वण्टीर, चलो आसल्यार धा आनी चली आसल्यार पांच नीट्ट वळी काडटात. मागीर सांजे सश्टी पुजा करतात. तेरवातीर वण्टीर एक चौकोन रंगयतात. मदीं सटयेची आकृती आसता. वण्टीवयलो हो सटयेचो नकासो स म्हयने दवरतात आनी उपरांत तो दुदान पुसून उडयतात.

गोंयांत सटयेचो पुजाप्रकार ब्राह्मणांमदीं वैदिक पद्धतीन ब्राह्मणाक आपोवन करतात आनी तातूंत विघ्नशष्टि पांच देवतांच्या पाटार एका वस्त्राचेर तांदळांच्यो पांच मुठी घालून ताचेर सुपाऱ्यो दवरून देवतांची पुजा करतात. पुजेंत पिटकोळेची फुलां ओंपतात आनी खिचडेचो निवेद्य दाखयतात आनी तो आपुण घेनास्तना बैजिणीक दितात. तिणें तो निवेद्य दीस उदेवपापयलीं घरांतल्यान भायर व्हरूंक जाय.

ब्रह्मणेत्तर जातींत षष्ठीपुजेचो प्रकारांत मुख्य उद्देश तोच आसता. पूण पुजेचो प्रकार मातसो वेगळो आसा. ते जातींत पुजा सांगपाक कोण लागना. बंगालांतले पुजा धर्तेचेर बाळंटीचे कुडींत एक उदक भरिल्लो तांबयो दवरून ताचेर आंब्याचो ताळो, नाल्ल दवरुन ताचेर सटयेची पुजा करतात. जेवणाचो निवेद्य दाखयतात आनी सोयऱ्यांक जेवण घालतात. मेजवानींत मटण आनी नुस्तें आसता. होय निवेद्य सटयेक दाखयतात. सगळी रात घुमटां - शामेळ, झांज्यो वाजोवन आनी लोकगीतां गावन सटी जागयतात. कांयकडेन सोरोय दितात.

बाळंटीच्या सव्या दिसाप्रमाण पांचव्या दिसाय सटयेची पुजा करपाची कांय राज्यांनी पद्दत आसा. हिका पांचवीची पुजा म्हण्टात. पुजा सटयेप्रमाणच करतात. पुण कांय जातींनीं तंत्रांत थोडो फरक आसा. कांय जातींनीं बाळंटीण आनी भुरग्याच्या उशाचेर पांच दिवे, पिठाची (कणकीचीं) मुठलीं आनी पांच फळां दवरतात. हळदीची देवी करून सुपांत दवरतात. तेचप्रमाण पांच सुपाऱ्यो, पांच खारको, पांच हळदीकुटां घेतात. बिब्याक सूय तोपून तो बाळंटीच्या कुशींत दवरतात. बाजे भोंवतणी अळणी घुगऱ्यो दवरतात. सटवाइक हळद - कुकूम घाल्या उपरांत भुरग्यांक बाजेसकयल दवरतात. मागीर एक कुमारिका भुरग्याक सटवाइचो हिंगाच्या पिठाचो आंगारो लायता आनी सुरवेक उजवो पांय फुडें उडोवन भुरग्याक दांग घालता. कांयकडेन पांचवेची पुजा विधवेच्या हातान करतात.

पांचव्या दिसापसून बाळंटिणीचे कुडींत एक वात सतत पेटत दवरपाची चाल आसा. बंगाल, बिहार, ओरिसा ह्या प्रदेशांनी बाळंटीचे कुडींत, बाळ - बाळंटिणीक भूत बाधा जावची न्हय म्हणून सतत धुंगटी पेटत दवरपाची चाल आसा.

सटी पुजेंत न्हाणी पुजेचोय एक प्रकार आसा. बाळ - बाळंटिणीक न्हाणयतकच ते न्हाणयेचीय पुजा करतात.

घराभायर जांव घरांत एक फोंडकूल मारून न्हाणी करतात. धाव्या दिसा फोंडकूल पुरून ताची पुजा करतात.

षष्ठी ही एक मातृका आसा. मातृका मुळच्या भुरग्यांचो घात घेवपी म्हण प्रसिद्द आसात. भुरग्यांच्या अकस्मात मरणाक ती जबाबदार आसात अशी पोरन्या काळापासून धारणा आसा. तेन्ना तांणीं बाळघातकी स्वरूप सोडून भुरग्यांचें संगोपनाचें काम करचें हे खातीर तांची पुजा सुरू जाली. सटये देवीच्यो ह्यो दोन प्रार्थना आसात -

१) सर्वविघ्न हरोसितमेकदंत गजाननः
षष्ठिगृहेर्चितः प्रीत्या बाळंदीर्घायुषं कुरू
शक्तिस्वं सर्व देवानां लोकानां हित कारिणी
मातर्बाहिमिमं रक्ष महाषष्ठी नमोस्तुते ।।

२) गौरीपुत्रो यथा स्कंधा : शिशुत्वे रक्षित : पुरा ।
तथाममाप्ययं बाल : षष्ठके रक्षितां नम : ।।

- अच्युत तोटेकार

**सणबियां** (Linseed) : Linum Usitatissium हें सणबियांचें शास्त्रीय नांव. Lincecere या कुटुंबांतली ही वनस्पत. या पिकाची लागवड खूब पयलींसावन सोण्णाखातीर (Fibre) करतात. पुण भारतांत या पिकाची लागवड तेलाखातीर करतात. सणबियांच्या उगमस्थानाविशीं एकमत ना. इराण देशांत उगम जाला म्हणपाचो उल्लेख सापडटा. आर्य लोक जेन्ना भारतांत आयले तेन्ना तांणी कापड विणपाखातीर धागो मेळचो म्हण सणबियां भारतांत हाडलीं. उपरांत ह्या पिकाचो उपेग तेल काडपाखातीर जालो.

रोपाचीं पानां एका उपरांत एक (Alternate) लांबट आसतात. फुलां ल्हान, खांदयांच्या वयल्या भागाचेर येतात. फुलाक पाच पाकळयो आसतात. पाकळयांचो रंग जातीप्रमाण धवो वा निळसर आसता. फळांत बारीक बियो आसतात. बियो तांतयाच्या आकाराच्यो

आसतात. बियांनी ३३ - ४७ % तेल आसता. फुलां सकाळीं फुलतात आणि दनपरां चार वरां जाता म्हणसर बावतात. फुलांत स्वपरागीकरण जाता.

भारतांत १९ लाख हेक्टर सुवातीन सणबियांची लागवड आसा. हाच्यापसून ५ लाख टन बियांचें उत्पन्न मेळटा. महाराष्ट्र, मध्यप्रदेश, राजस्थान, उत्तर प्रदेश, गुजरात या राज्यांनी सणबियांची लागवड व्हड प्रमाणांत आसा. जगांत अर्जेंटीना, रशिया, अमेरिका, कॅनडा, उरुगवे ह्या देशांनी सणबियांची लागवड चड प्रमाणांत आसा.

सणबियांचे लागवडीखातीर थंड हवामानाची गरज आसता. १० २७° सॅ. तापमान, तशेंच २० - ९५ % आर्हता, ढगाळ हवामान ह्या पिकाक मानवता. पिकाक सुपिक जमनीची गरज आसता. उत्तर प्रदेशांत हिमालयाच्या मुळाकडेन तशेंच गंगा न्हंयेचे देगेक आशिल्ल्या वाठारांनी सणबियांची लागवड चड प्रमाणांत जाता. गोंयचें हवामान सणबियांचे लागवडीक अनुकूल ना.

सणबियांच्यो सी - ४२१, एस - ३६, पुसा - २, जवाहर - २३ ह्यो जाती वापरांत आसात. लागवड शीयां दिसानी नोव्हेंबराचे सुरवेक करतात. दोन ओळींमदीं २० सेंमी. अंतर दवरून ओळीन लागवड करतात. हेक्टरी ४० किलो बियो लागतात. पिकाक दोन फावट उदक दितात. सुमार १०० दिसांनी पीक तयार जाता. तयार जातकच रोप कातरून वा हुमटावन काडटात. रोपयांचे गठ्ठे करून ते उदकान भिजत दवरतात.

पेणीचो वापर गोरवाचे खावडीक करतात. तेलाचो उपेग खावपाखातीर तशेंच फॅक्टरींनी करतात. सोण्णापासून जाळयो, तुवाले, पोतयो, दोरयो सारकिल्ल्यो वस्तू तयार करतात. सोण्णाचे कागदय करतात.

- विश्राम य. गांवकर.

**सतार** : एक तंतूवाद्य. हें सादारण तंबोऱ्या सारकें आसता. सकयलो आकार वाटकुळोसो आनी एक लाकडाची पोकळ दांडी. ही दांडी वयले वटेन चेपटी आनी सकयले वटेन वाटकुळी आसता. तिची लांबाय सुमार तीन फूट आनी रूंदाय तीन ते साडेतीन इंच आसता. हे दांडयेर दोन अटी आनी १६ ते २१ पितळीचे पड्डे आसतात. सकयल्या दुदयाचेर बसयल्ले पाटयेचेर घोडी आसता. दांडयेच्या दुसऱ्या



सतार

तोंकाक सात खुंटयो बसयल्ल्यो आसतात. ''संगीतसार'' ह्या ग्रंथांत पड्डे आशिल्लो तंबोरो म्हळयार सतार अशें म्हळां.

हें वाद्य अमीर खुसरो हाणें निर्माण केलें अशें म्हण्टात. सुरवातीक ह्या वाद्याक तीन तारो आसताल्यो. सेह ह्या फारसी शब्दाचो अर्थ तीन असो आसा. हाचेवयल्यान ह्या वाद्याक सितार हें नांव मेळिल्लें. पूण आतां हाका सात तारो आसतात. सप्तातारां वयल्यान सतार हें नांव रूढ जालें अशें कांय पंडितांचें मत आसा.

सतारीच्यो कांय तारो तिरव्याच्यो आनी कांय पितुळच्यो आसून त्यो वेगवेगळया स्वरांत लायिल्ल्यो आसतात. उजव्या हाताचे तर्जनीचेर घातिल्ल्या नखीन त्यो छेडटात. दाव्या हाताच्या बोटांनी पड्ड्याचेर तारो दाबून वेगवेगळे स्वर काडूंक येतात. वीणेचे पड्डे थीर आसतात, तशे सतारीचे नासतात.

सादी आनी तरफेची अशे सतारीचे दोन प्रकार आसात. दुसरे तरेच्या सतारीक सहाय्यक ध्वनी निर्माण करपी तिरव्याच्यो त्यो ११ ते १३ तरफो आसतात आनी ह्या तरफांच्यो तारो दांडयेचे कुशीक आशिल्ल्या ल्हान खुंटयांक बांदिल्ल्यो आसतात. कांय सतारीचे वयले वटेन दांड्याक एक वाटकुळो दुदी (गुळो) लायिल्लो आसता.

१९ पड्ड्यांच्या सतारीक चल थाटाची आनी २१ पड्ड्यांच्या सतारीक अचल थाटाची सतार म्हण्टात. सतार वादनांत यश जोडपाक हे वादन कलेची खर साधना करची लागता. भारतीय सतारवादकांनी ह्या वाद्याची लोकप्रियता संवसारभर पातळायली. पंडित रवीशंकर ह्या सतारवादकाचे ते नदरेन व्हड योगदान घडलां.

- कों. वि. सं. मं.

**सती आनी सतीप्रथा** : घोव मरतकच ताच्या मड्यावांगडा ताच्या सरणाचेर आत्मदहन करपी बायलेक सती म्हण्टात आनी हे प्रथेक सतीप्रथा म्हण्टात. हे प्रथेक सहमरण, सहगमन, अन्वारोहण, अनुमरण अशेंय म्हण्टात.

सतीप्रथा खूब पुर्विल्ली आसून जगांतल्या वेग वेगळे जातींत ती चालींत आशिल्ली. श्रोडर आनी हेर पंडितांच्या मतान ही चाल इंडो - जर्मनिक आसून भारताप्रमाण ती युरोपांतय आनी सामक्या उदेंतेकडल्या देशांनीय प्रचलित आशिल्ली. प्रोकापियुस नांवाच्या पुर्विल्ल्या लॅटीन बरोवप्यान गॉथिक झुजां ह्या ग्रंथांत सतीचो उल्लेख केला. ट्युटॉनिक ह्या जर्मन टाळयांनीय युरोपाच्या बऱ्याच भागांनी ही चाल व्हेली अशें म्हण्टात. स्कँडिनेवियन लोकांतय ही पद्दत आशिल्ल्याचें ग्रीम ह्या जर्मन बरोवप्यान सांगलां. तेचप्रमाण स्लाव, केल्ट, युनानी, नॉर्वेजियन, सिथियन, चीनी ह्या लोकांमदींय ही प्रथा आशिल्ली.

मनीस ह्या लोकांत जशें जिवीत जगता तशेंच तो मेल्याउपरांत परलोकांतूय जगता अशी पुर्विल्ल्या काळांत समजूत आशिल्ली. देखून मेल्ल्या मनशावांगडा जाळून घेवंचें म्हणजे त्या दोगांकय मेल्या उपरांतय

एकठांय रावपाक येतलें, हें एक सती वचपा फाटलें कारण अशें सांगतात. तशेंच झुजांत वांटो घेवन मरण आयिल्ल्या झुजाऱ्यांच्या बायलांची विटंबने पासून सुटका करपाच्या उद्देशान बायलेन मरण आपणावप चड बरें अशें झुजारी जमातींतलो समाज मानतालो. हातुंतल्यानय घोवाच्या मरणा उपरांत बायलेन सहगमन करपाची पद्दत रूढ जाली आसुंये.

सती वचपाचो पयलो उल्लेख महाभारतांत सांपडटा. पांडुची बायल सती गेल्या, पूण सती वचपाचें तिणें जें कारण दिल्लें आसा तें धर्मीक न्हय. वासुदेवाच्यो चार बायलो देवकी, भद्रा, रोहिणी आनी मदिरा हांणीं सहगमन केलें अशें मौसल पर्वांत म्हळां. कृष्णाच्या मरणाउपरांत अर्जुनावांगडा इंद्रप्रस्थाक गेल्ली रूक्मिणी, गांधारी, शैव्या, हैमवती आनी जांबवती ह्या बायलांनी अग्निप्रवेश केल्ल्याचें वर्णन आसा. अशो जरी देखी आसात तरीय त्या काळांत हे प्रथेन विस्तारीत मूळ धरूंक नाशिल्लें.

ह्या वेळार कांय स्मृतिकारांनी सतीप्रथेक संमती दिल्ली आसली तरीय तांणींच तिका कांय निर्बंदय घाले. ते म्हळयार, भुरगें ल्हान आसल्यार, बायल गुरवार आसल्यार जांव त्या वेळार तिची मासिक पाळी चालू आसल्यार तिणें सहगमन करचें न्हय.

सन पयलीं ३०० च्या अदमासाक ही प्रथा भारतांत सुरू जाली आसुंये, अशें इतिहासाच्या आदारान म्हणप जाता. हे चालिची सगळयांत पोरनी इतिहासांतली देख सन पयली ३१६ वर्साची आसून ती डिओडोरस सिक्युलस ह्या ग्रीक इतिहासकाराच्या ग्रंथांतली आसा.

नाटककार भास ह्या कालखंडाच्या लागीं वावुरपी. ताणें महाभारतांतल्या प्रसंगांत बदल करून दूतघटोत्कच आनी उरूभंग ह्या नाटकांत उत्तरा, दुःशला आनी पौरवी ह्या अनुक्रमान अभिमन्यू, जयद्रथ आनी दुर्योधन हांच्यो बायलो सती गेल्यो अशें म्हळां. हीं कांय अपवादात्मक उदाहरणां. कारण गुप्तकाळांत सतीचीं चड उदाहरणां मेळनात. वात्स्यायनाच्या कामसूत्रांत हे प्रथेचो उल्लेख आसा. इंद्राक पालव दिवपाखातीर धांविल्लो रामाचो पूत कुश, दुर्जय दैत्याक मारून आपुणय मेलो. तेन्ना ताची बायल कुमुद्वती सती गेल्ल्याची खबर रघुवंशांत आसा.

पुराणांत सतीच्यो कांय देखी आसात. पूण जायत्यो विधवा बायलो जिवीत आशिल्ल्याचींय वर्णनां आसात. पुराणोत्तर काळांत सतीची चाल चड वाडत गेली अशें दिसता. चवथ्या शेंकड्यामेरेन ही चाल पुराय देशभर पातळ्ळी. इकराव्या शेंकड्यामेरेन ही चाल काश्मीर, पंजाब, राजपुताना, बंगाल ह्या प्रांतांनी बरीच बळावली. निर्णयसिंधू आनी धर्मसिंधू ह्या सतराव्या शेंकड्यांत बरयल्ल्या धर्मग्रंथांनी सती चालीविशीं विस्तारीत म्हायती मेळटा. सती वचप म्हणजेच घोवावयलें एकनिश्ठ प्रेम सिध्द करप अशें तेमेरेन मानताले.

इ.स. ७०० ते ११०० मेरेनच्या काळांत उत्तर भारतांत, चडकरून काश्मीरांत जायत्यो बायलो सती गेल्ल्याचें दिसता. जयमती आनी विज्जला ह्यो राणयो सती गेल्ल्याचें कल्हणान राजतरंगिणींत सांगलां. तशेंच राणयांवांगडा राजाची आवय, भयण, प्रधान, रखेल्यो ह्योय सहगमन करताल्यो अशें तो म्हण्टा. राणी सूर्यमतीवांगडा गंगाधर, टक्किबुध्द आनी दंडक हे सेवक आनी उद्दा, नोनिकाषवल्गा ह्यो दासी हांणीं सगळयांनी अग्नीप्रवेश केल्लो.

रजपुतांच्या इतिहासांतय सतींच्यो देखी सांपडटात. मराठ्यांच्या इतिहासांतय राजाराम महाराजाची एक राणी, व्हडल्या शाहू महाराजाची राणी, माधवराव पेशव्याची बायल रमाबाई, बळवंतराव मेहेंदळयाची बायल, संभाजी आंग्रेची बायल अशा सती गेल्ल्या बायलांच्यो देखी प्रसिद्द आसात. नागपूरच्या रघुजी भोसल्याच्यो सात बायलो सती गेल्ल्याचे भिरांकूळ प्रकारय नमूद आसात.

महाराष्ट्रापरस बंगालांत हाचो अतिरेक जाल्लो, अशें दिसता. ताचें एक मुखेल कारण म्हळयार हेर प्रांतांचे तुळेन बायलांक मिळकतींतलो चड वांटो आशिल्लो. दायभाग ग्रंथाप्रमाण थंयचो वारसोहक्क चालू आशिल्लो. ह्या हक्कापसून बायलांक पयस दवरपाखातीर रूढीनिर्मित आनी शास्त्रभूक्त मार्गांचो अवलंब करून बायलांची आडखळ पयस करपाक लोकांनी सतीप्रथेक उबारून धरली आसूं येता. ताकालागून शेंकड्यांनी बायलो सती वचपाक लागल्यो. जायते खेपे तांचेर जबरदस्तीय जाताली. केन्नाकेन्ना तर तांकां अंमली पदार्थ दिवन ते नशेंत तिणें जशी सती वचपाची इत्सा दाखयली म्हणजे तिका सरणाचेर धुकलताले. सरणांतल्या उज्याचो धग बसून जर ती बायल भायर सरपाखातीर धडपडपाक लागली जाल्यार तिका जित्या कोंड्यांनी भितर धोंगशीताले. तशेंच तिचो बोवाळ लोकांक आयकुपाक येवंचो न्हय म्हणून व्हडाव्हडान वाद्यां वाजयताले.

राजस्थान आनी पंजाब ह्या प्रदेशांनी सतीच्यो शिळा जांव देवळां दिसनात असो एकय गांव ना. हाचेवयल्यान थंयच्या सतीप्रथेची व्यापकता जाणवता. झुझनू गांवचें राणी सतीचें देवूळ भारतांतल्या नामनेच्या देवळांमदीं एक आसा. जोधपूरच्या मिस्तरा देवळांतल्या शिलालेखांत गुहिलोत राजवंशांतल्यो दोन राणयो सती गेल्ल्याचें वर्णन आसा. पूण परत परत झुजाचो प्रसंग आयिल्ल्यान राजवंशांतल्या आनी सामान्य बायलांमदीं सतीचो आंकडो वाडपाक लागलो.

अरबांच्या आनी तुर्कांच्यो जेन्ना व्हडल्यो घुरयो पडपाक लागल्यो तेन्ना तर सतीप्रथेक जोहाराचें स्वरूप फाव जालें.

पंजाबांतय हाचेपरस वेगळी अवतिकाय नाशिल्ली. ब्रिटिशांनी सतीप्रथेचे बंदीचो कायदो केल्लो आसलो तरी भारतीय राजांच्या संस्थानांत हाचेविशीं चडशी सुदारणा जावंक नाशिल्ली. रणजितसिंगच्या मड्यावांगडा ताच्या चार बायलांक जाळिल्ल्यो. राजा सुचेतसिंगाच्या निमण्या संस्कारांत

तीनशेंधा बायलांनी आत्मदहन केल्लें. सरदार शानसिंगाची बायल सोब्राव आपले इत्सेन सती गेल्ली. पंजाबांतली ही निमणी सती अशें सर लिपल ग्रिफीनान १८९८ त म्हळां.

द. भारतांतय ही चाल आशिल्ली. थंय सतीचे समाधीक महासती कल्ल म्हणून वळखवतात.

अमकेच एके जातिंतले बायलेन सती वचचें अशें थारिल्लें नाशिल्लें. महाभारतांतली ब्राह्मणी अंगिरसीन आनी कमलाकर भट्टाच्या उमा नांवाच्या आवयन अग्निप्रवेश केल्लो. कर्नाटकांल्या बेलतुरू हांगाच्या शके १७९१च्या शिलालेखांत एक शुद्र बायल सती गेली म्हणून तिचे बापायन तिचे यादीक एक वीरगळ उबारिल्ल्याचें वर्णन सांपडटा. सती गेल्ल्या जैन मतानुयायी ओसवाल बायलांचीं, फक्त बिकानेरांत अठ्ठावीस देवळां आसात. हाचेशिवाय मोदी, माहेश्वरी, अग्रवाल, शिंपी, शेट चारणाच्याय बायलो हें अग्निदिव्य करताल्यो.

सतीन सहगमनावेळार खंयचीं कृत्यां करचीं ताची म्हायती चडशी खंयच मेळना. पूण शुध्दितत्त्व ह्या ग्रंथांत सतीकृत्याची म्हायती दिल्या. ती अशी - विधवा न्हावन जातकच दोन धवीं वस्त्रां न्हेसता, हातांत दर्भ घेता आनी उदेंतेवटेन वा उत्तरेवटेन तोंड करता. मागीर ब्राह्मण 'ओम् तत्सत' म्हण्टात. ताचेउपरांत ती नारायणाचें स्मरण करता, म्हयनो, पक्ष आनी तिथी हांचो उच्चार करून संकल्प करता. सूर्य, चंद्र, अग्नी अशा अश्ट लोकपालांचीं नांवां घेवन तांकां साक्ष दवरता. चितेक तीन भोंवताडे घालता. मागीर ब्राह्मण 'इमा नारी' हो ऋग्वेदांतलो मंत्र म्हणून पुराणांतलो 'ह्यो खूब बऱ्यो आनी पतिव्रता बायलो घोवाच्या मड्यावांगडा अग्निप्रवेश करतात' अशा अर्थाचो श्लोक म्हण्टा. मागीर सती वचपी बायल 'नमो नमः' अशें म्हणून सरणांत उडी घेता. घोवाकडचें एकनिश्ठपण दाखोवपाचे भावनेन, धार्मिक वृत्तीन आपखोशयेन सती वचप सर्रास नासतालें अशें दिसता.

सतीप्रथेचो उदात्तीकरणाचो खूब आदलो तेंप सोडलो तर, उपरांतच्या उपचाराच्या काळांत ती चडशी बळजबरीची प्रथा दिसता. तेचप्रमाण तिका आर्थिक, सामाजिक संदर्भय येवन दशिल्लो पळोवंक मेळटा.

सतीची ही अमानुश प्रथा बंद करपाचे यत्न जायत्या जाणांनी केले. हे यत्न व्यक्तिगत आनी सरकारी पातळेचेर जाल्ले आसात. विष्णुस्मृती, मेधातिथी, हर्ष, कबीर, नानकाचे यत्न पयल्या प्रकारांत आस्पावतात. मुगल सम्राट अकबर, जहांगीरानय ही चाल बंद करपाखातीर उपाय केले.

ब्रिटिशांनी जेन्ना सत्ता हातांत घेतली तेन्ना हिंदू मुसलमानांच्या कायद्यांत आनी धर्मीक विधींत धवळाधवळ न करपाचें ताणें उतर दिल्लें. ताका लागून ब्रिटीश अधिकाऱ्यांक आनी हेर युरोपीयांक ही चाल पटनाशिल्ली. तरीय सुरवेक तिचेर कायद्यान बंदी घालपाक ते तयार नाशिल्ले. इ.स. १८०५ त त्यावेळचो गव्हर्नर जनरल वेलस्ली हाणें हेविशीं न्यायाधीशांचो सल्लो घेतलो. न्यायाधीशान हिंदू पंडितांचो सल्लो घेतलो. गुरवार बायलो, भुरगें आशिल्ल्यो अशांनी सती वचूं नये तशेंच तांकां अंमली पदार्थ दिवचे न्हय अशें पंडितांचें मत आशिल्लें. पूण ही प्रथा सामकी बंद केल्यार हिंदुंच्यो धर्मीक भावना दुखावतल्यो अशें तांणी सुचयलें. सरकारान वयल्या निर्बंदांचे वटहुकूमय काडले. पूण ताचो उपेग जालो ना.

अस्तंती विचारांच्या अभ्यासान हिंदू समाजाच्या जायत्या दादल्यांच्या मनांत हे प्रथेविशीं जागरुकताय निर्माण जाली. इंग्लीश शिक्षणाचो प्रचार आनी राजाराम मोहन रॉय हाणें केल्ल्या यत्नांक लागून सतीबंदीक जायतशें वातावरणय तयार जालें. हे भिरांकूळ आनी क्रूर प्रथे विरूध्द जायत्या विचारी भारतीयांच्या मनांत तिडक भरली. राजाराम मोहन रॉय हे विचारसरणीचो प्रतिनिधी आशिल्लो. सती वचपाक लावप वा त्या कामाक पालव दिवप हो धर्मशास्त्रांच्या आदारान खूब थारता अशें ताणें स्पश्टपणान मांडलें. ह्या विशयाचेर लेख बरोवन ताणें प्रचारय केलो. ईस्ट इंडिया कंपनीचे संचालक आनी अधिकारी संतीबंदीक तयार आशिल्ले. अशे तरेच्या सगळ्या यत्नांउपरांत शेवटाक ४ डिसेंबर १८२९ दिसा गव्हर्नर जनरल लॉर्ड बेंटिंक हाणें फुडाकार घेवन सतीबंदीचो कायदो लागू केलो. सती वचप गुन्यांव थारलो आनी सती वचपाक जबरदस्ती करप्याक मरणाची ख्यास्त फाव जातली अशें ह्या कायद्यान जाहीर केलें.

वेगवेगळ्या काळांत भारतांत आयिल्ल्या युआन च्वांग, कांटी, व्हॉल, टॅव्हेर्नियर, मॉंडस्लो, बर्नियर, निकोलो मनुची ह्या परदेशी प्रवाशांनी सतीचे प्रसंग आपल्या दोळ्यांनी पळोवन तांचीं वर्णनां बरोवन दवरिल्लीं आसात.

गोंयांत सतीप्रथा चालू आशिल्ल्याच्यो कुरवो मेळटात. गोंयांतल्या कांय वाठारांनी अशो जायत्यो सतीशीळा आजूनय पळोवपाक मेळटात. कांय कडांनी बायलो सती गेल्ल्या जाग्याचेर शिवलिंगांय पळोवपाक मेळटात. जायत्या सतींच्या स्थानांचेर तुळस वा चौथरोय आसा. थंय आंगवणय करतात. काजळ, कुकूम, फुलां दवरतात. वळवय आशिल्ल्या सतीस्थानाखातीर तीन वर्सांतल्यान एक खेप थाराविक कुटूंबां 'लामसूर' नांवांचो उत्सव करतात.

गोंयांत इ.स. १५१० त अल्बुकेर्कान सतीचे चालीचेर बंदी घाली. शिक्षणाच्या प्रसारांतल्यान निर्माण जाल्ली आधुनिक विचारप्रणाली प्रथेआडचे कडक कायदे आनी धार्मिक प्रभावाची सदळसाण, हांकांलागून एका तेंपार सर्रासपणान चलपी सतीची प्रथा नश्ट जाल्या. हे प्रथेचो प्रभाव आशिल्ल्या राजस्थान, पंजाबांत घडिल्लीं एक दोन सती प्रकरणां सोडलीं तर, स्वतंत्र भारतांत फाटल्या अर्दशतकांत सतीची प्रथा बंद पडल्या.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद :- जोहार

**सत्तरी :** गोंय राज्यांतलो उत्तरेकडलो म्हाल. ह्या म्हालाचे उत्तरेक महाराष्ट्र राज्यांतलो सावंतवाडी म्हाल, दक्षिणेक सांगे म्हाल, उदेंतेक कर्नाटक राज्यांतलो बेळगाव जिल्हो आनी अस्तंतेक दिवचल म्हाल येता. सत्तरीची चडशी भूंय दोंगर - दोंगुल्ल्यांनी आनी जंगलाच्या वाठारांनी भरिल्ली आसा. सांग्या उपरांत चड जंगल प्रदेश आसपी गोंयचो वाठार म्हळयार सत्तरी. उत्तर गोंयांतलो सुमार ७८% जंगल वाठार सत्तरींत आसा. गोंयचे म्हत्वाचे दोंगर सोसोगड (३,८२७ फूट), कातल्यांची माऊली (३,६३३ फूट), वाघेरी (३,५०० फूट) आनी मोर्लेगड (३,४०० फूट) सत्तरीत आसात. म्हादय ही सत्तरींतली मुरवेल न्हंय. नानोडे, कुमठळ, पटवळ, खोतोडे, कातराची, झरमे, अडवय, रगाडो, वाळवंटी ह्या ल्हान व्हड न्हंयांचे फाटे निमाणे म्हादय न्हंयेक मेळटात. कर्नाटकांतल्या खानापूर म्हालांतलो जांबोटी घाट हें म्हादयेचें उगमस्थान. थंयच्यान ही न्हंय सत्तरींत भितर सरता.

तरेतरेचीं झाडां हीं सत्तरीच्या रानांची गिरेस्तकाय. सत्तरीच्या दोंगरांचो आस्पाव सह्याद्रींत जाल्ल्यान होगासर आंबो, पणस, चिंच, जांबळ, काजू, सावर ह्या झाडावांगडा सायलो, शिसम, मारत, किंदल, जाम्बो, नानो, घोटींग, धामण, सिरस, हांचो आस्पाव जाता. करमल, बिंबल, आमाडो, तोरींग, माड, माडयो, काण्णां, केळ ही वनस्पत दिसता. माकड, वाघ, रानटी मांजर, मुंगूस, लांडगो, कोलो, हूद, अस्वल, पिसय, गवे, चान्नी, साळ, सोसो, चितळ, मेरवा, भेकरो, रानदूकर, बिबटो वाघ हे सारकीं जनावरां हांगा दिसतात. सत्तरीचें जंगल विंगड जातींच्या सवण्यांनी संपन्न आसा. रानकोंबो, मोर, पोपट, साळोरी, कोगूळ, सुतार, मैना, कावळो, डोम कावळो, फुचचुरवी, घुबड, पारवे, कवडे अशीं सवणी हांगा पळोवपाक मेळटात. डॉ. सलीम अली हाका 'रूबी थ्रोटेड येलो बुलबुल' हो गोंयचो राज्यपक्षी सत्तरीच्या वाठारान पळोवंक मेळ्ळो. दुसऱ्या वाठारान चुकून दिसपी धनेश आनी कस्तुरा हीं सवणी हांगाच पळोवक मेळटात. भारतीय उपरखंडान सगळयांत व्हड आसपी 'सदर्न बर्ड विंग' हें फुलपाखरू तशेंच पारव्यांच्यो जायत्यो जाती हांगा दिश्टी पडटात. नाग, नागराज, धोणस, फुरशें, कांडेर, मणेर हे विषारी आनी धामण, अजगर, हरणतोळ सारके बिनविषारी सोरोप हांगासर वावुरतात.

शेंगाळी, वाळय, दाणय, मळयो, देकळो, थिगूर, पिट्रोळ, खवळो, तांबोशी, तोळो, शेवटो, काडय ह्यो नुस्त्यांच्यो जाती सत्तरीच्या न्हंयांनी मेळटात. नासणो, पाकड, सावो, वरी, कांगो, तोर, हुडीद, कुळीथ, मूग, चवळी, हळसांदो, तिळयो हीं म्हत्वाचीं कडुणा तर आळू, तेरें, तायकिळो, देटो, वाल, तांबडी भाजी, कुडूक, राजगिरो, शेंगूळ, मुळो, नाब, दुदी, कारातें ह्यो भाजयो तर कोन, काटे कणग्यो, सुरण, करांदे, चिनी हीं खावपाचीं मुळां मेळटात.

सत्तरीक इतिहासाचें व्हड दायज आसा. गोंयच्या आदिम संस्कृतीचे अवशेश आयज लेगीत आमका ह्या वाठारांतली भास, सण, उत्सव आनी परंपरांनी पळोवपाक मेळटात. इतिहासकार अनंत धुमे हाच्या मताप्रमाण गोंयांत कोल आनी मुंडारी आयले हाचो पुरावो आमका डोंगुर्ली - ठाण्यांत मेळटा. मराठ्यांनी कोल आनी मुंडारी हांचो पराजय करून ठाण्या 'कोळगिरो' आनी 'मुंडलगिरो' हांच्या पाशाणी मूर्त्यांची स्थापणूक केली. कोल आनी मुंडारी शबर वंशाचे आसले. रिये हांगासर शांब्रादेवीची मूर्ती मेळिल्ली. गुळेली आनी सावर्डे हांगा आशिल्ल्यो महिषासूर मर्दिनीच्यो होडयेंत आसनस्थ जाल्ल्यो मूर्त्यो सत्तरीच्या प्राचिन इतिहासाची गवाय दितात. सत्तरींत मुरवेल सत्तर गांव आशिल्ल्यान तर कांय जाणांच्या मताप्रमाण हांगासर व्हडा प्रमाणान सातेरी देवीची उपासना चलता. ताका लागून तर इतिहासकार लोपिस मेंदिस हांच्या मताप्रमाण साटरेगडाक लागून ह्या म्हालाक सत्तरी नांवान वळखतात. पर्ये हांगासर सातेरी म्हऱ्यान आशिल्लो तिसऱ्या-चवथ्या शेंकड्यांतलो ब्राह्मी बरपावळींतलो फातरपटो आनी वेळुस हांगासर महादेवाच्या देवळान मेळिल्लो विजयनगरच्या कालखंडांतलो फातरपटो सत्तरींतल्या पोरन्या इतिहासाची आमका गवाय दिता.

१७४६वर्सा पुर्तुगेजांनी सत्तरी प्रांत वाडीच्या सावंताकडल्यान घेतल्या उपरांत तांणी राण्यांच्या हक्काचेर निर्बंध घाले. आपल्या हक्कांक लागून १७५५ ते १८२२ या कालखंडांत राण्यांनी चवदा फावटीं बंडां केलीं. अशे तरेचीं बंडां सत्तरींत १९१२ वर्सामेरेन जालीं. पूण ह्या सगळया बंडांनी १८५२ चे दीपाजी राणे हाचें बंड गोंयच्या इतिहासांत चड प्रसिद्द जालें. सत्तरीच्या गांवगिऱ्या वाठारांतले लोक, सत्तरीतले दोंगर - दोंगुल्ले हांच्या आदारान दीपाजी राणे हाणें पुर्तुगेजांक बरोच धपको दिलो. ताच्या उपरांत १८६९न कुष्टोबा राणे आनी १८९५ त दादा राणे अडवयकार हांचीं बंडां जालीं. साटरे गड, नाणसाच्या किल्ल्याचो स्मृतीस्तंभ, पर्येचें भूमिकेचें देवूळ राण्याच्या इतिहासाचें दायज आसात. गोंयच्या मुक्ती लढ्यांत तर सत्तरीचें योगदान खाशेलें आसा. गोविंद हरी भावे शास्त्री हांच्या मुखेलपणासकयल २६ जानेवारी १९५५ त २५ सत्याग्रहींनी केल्लो सत्याग्रह बरोच गाजलो. श्रीपाद वामन भावे, पंडित महादेवशास्त्री जोशी, वामन रामचंद्र बर्वे, गजानन दत्ताराम जोशी, कृष्णराव राणे, कृष्णा बाबली माईणकर, पांडुरंग केरकर अशा कितल्याशाच सत्तरीच्या सुटके झुजाऱ्यांनी गोंय मुक्तीलढ्यान वाटो घेतिल्लो. सालेलीचे कृष्णराव राणे हाणें आझाद गोमंतक दलातल्यान बरेंच क्रांतीकार्य केल्लें. गोवा लिबरेशन आर्मीचे जयसिंगराव व्यंकटराव राणे आनी माधवराव लक्ष्मणराव राणे हे स्वातंत्र्यवीर सत्तरीचेच सुपूत.

सत्तरीचो कारभार पुर्तुगेज तेपार साखळेच्यान चलतालो. सत्तरीचो आस्पाव साखळे म्हालांत जातलो. पूण जेन्ना साखळेचो आस्पाव दिवचलेंत जालो आनी सत्तरीक स्वतंत्र म्हाल म्हणून मान्यताय मेळ्ळी. तेन्नाच्यान ह्या म्हालाचें मुरवेल शार म्हणून वाळपय नांवारूपाक

आयली. वाळपय आनी पर्ये अशे सत्तरीचे दोन विधानसभा मतदारसंघ आसात. खोतोडे, गुळेली, सावर्डे, नगरगाव, भिरोंडे ह्यो पाच पंचायती आनी वाळपय नगरपालिका हांचो आस्पाव वाळपय मतदार संघांत जाता तर केरी, मोर्ले, पर्ये, मावशी, ठाणे, होंडा आनी पिसुर्ले ह्या सात पंचायतींचो पर्ये मतदार संघांत आस्पाव जाता.

भात आनी काजू हीं सत्तरीचीं दोन मुखेल पिकां. भातशेती हांगासल्लो मुखेल वेवसाय आशिल्ल्यान सरद, शेळ, भरड, तोरप, कास, जुवाड, वायंगण, पुरण हे शेत कसपाचे तरातरांचे प्रकार सत्तरींत पळोवंक मेळटात. कुमेरी शेतीची पद्दत हांगासर आशिल्ली. भात, नाचणो, कड्डण ह्या पिकांखेरीज सत्तरींत सुपारी, नाल्ल, काजू, ऊंस, लवंगा, जायफळ, मिरी, वेलची हांचेंय पीक काडपाक जायते शेतकार मुखार सरल्यात. काजूच्या दिसांनी हांगासर हुर्राक, फेणी हो सोरो काडपाचो धंदोय व्हडा प्रमाणांत चलता. शेताभाटां, कुळागारां, तेलताड, ऊंस आनी वरवदाच्या झाडांच्यो बागायती हें सत्तरीचें खरें वैभव आसा. सत्तरीच्या काय दुर्गम वाठारांनी सरकारान सायलाच्या आनी रबराच्या झाडांची लागवड केल्या. भिरंड, ओकापो हांच्या सोलांचें उत्पादन हांगा करतात.

खाण वेवसाय हो सत्तरींत चलपी विशेश म्हत्वाचो उद्देग पिसुर्ले, होंडा, गुळेली ह्या पंचायत वाठारांनी लोह खनिज व्हडा प्रमाणांत मेळटा. उत्तर गोंयांतली २१% खाण जमीन सत्तरींत आसा. कांय वाठारांनी चुनखडी मेळटा. खडी, रेंव काडपाचो धंदोय हांगा नेटान चलता.

गोंयच्या उद्देगीक विकास महामंडळान होंडा हांगा उद्देगीक वसाहत उभारल्या. ऑटोमोबाईल कॉरपोरेशन ऑफ गोवाचे मेटल आनी शीट विभाग होंडा हांगा तर बस बॉडी विभाग भुयपालींत आसा. प्रॉक्टर ॲण्ड गॅम्बल, गोवा ऑटो ॲससरिज लिमिटेड अशो जायत्यो कंपनी हांगा आसात.

सत्तरींत ७८ महसूली गांवांचो आस्पाव जाता. म्हालाचो वट्ट आवांठ ४६६२३.६१ हेक्टर आसा तर वट्ट लोकसंख्या ४२७०५ (१९९१) आसा. हिंदू, मुसलमान, किरिस्तांव ह्या तीनय धर्मांचे लोक हांगा आसात.

ठाणेच्या मुंडणगिऱ्याच्या मळार जावपी घोडेमोडणी, कोपाड्यांची दिवजां, मासोड्यांची घोडेमोडणी, झरमे आनी करंजोळचो चोरोत्सव केरीच्यो करवल्यो, पर्येच्या भूमिकेची जात्रा, ब्रह्मा करमळीचो ब्रह्मोत्सव, पर्येचो दसरो हे सत्तरीतले मुखेल उत्सव. ह्या उत्सवाखेरीज हांगा दर एका गांवांत कालो, नाटकां, शिगमो व्हडा उमेदीन जाता. कांय गांवांनी धालोय खेळटात. रणमालें, सकारती, तालगडी, फुगडी, चपय, गावनकाणी, गोसावी गीतां, गौळण कालो ह्या लोककला प्रकारांचें अप्रुप दर्शन सत्तरींत पळोवपाक मेळटा.

स्वामी विवेकानंद स्मृती संघ, केरी; भुमिका सांस्कृतिक मंडळ, पर्ये; पर्ये युथ क्लब; वाठारी स्पोर्टस् क्लब, तुळशीमळा; पिसुर्ले युवक संघ, वाळपय; लायन्स क्लब; शांतादुर्गा स्पोर्टस् क्लब, गुळेली; ग्रामीण विकास शिक्षण संस्था, सावर्शे; किर्णा कला केन्द्र, अडवय; आमचो पंगड सत्तरी; होंडा स्पोर्टस क्लब; ब्राह्मणी माया युवक संघ,कोपार्डे; ब्रह्मदेव युवक संघ, ब्रह्म करमळी अशा संस्थांनी कला, शिक्षण, खेळ ह्या मळांचेर मोलादीक वावर केल्लो आसा.

नाटकाच्या मळार सखारामबापू बर्वे हाणें नामना जोडिल्ली आसा. इतिहास संशोधनाच्या मळार पिसुर्लेचो डॉ. पांडुरंग पिसुर्लेकर हाणें तोखणायेचो वावर केल्लो आसा. आंबेडे - नगरगावचो पंडित महादेवशास्त्री जोशी हो मराठी साहित्यातलो नामनेचो कथाकार म्हणून प्रसिद्द आसात. ताणें संपादीत केल्लो मराठींतलो भारतीय संस्कृती कोश, भारतीय संस्कृतीची वळख करून दिवपी एक आदर्श असो कोश आसा.

श्री हनुमान विद्यालय, वाळपय; अवर लेडी ऑफ ल्युडस, वाळप; श्रीराम विद्यालय, खडकी; श्री भूमिका विद्यालय आनी उच्च माध्यमिक विद्यालय, पर्ये; उत्तर गोंयाखातीर जवाहर नवोदय विद्यालय, वाळपय; पोलिस प्रशिक्षण केंद्र आनी वन प्रशिक्षण केंद्राची प्रशिक्षण विद्यालयां वाळपय; होंडा औद्योगिक प्रशिक्षण केंद्र आसा. हीं हांगाचीं शिक्षण केंद्रां आसात.

केरीचें सातेरी आजोबा देवस्थान, पर्येचे भूमिका देवस्थान, कोपार्डेचे ब्राह्मणी माया देवस्थान, ब्रह्म करमळीचें ब्रह्मदेवाचें देवूळ, वेळुसाचें महादेवाचें देवूळ, ठाणेचो भिवमराव देसायाचो वाडो, नानोड्याची निराकऱ्याची राय, अंजुणे धरण प्रकल्प, वाळपयची अवर लेडी ऑफ ल्युडसची चर्च आनी जुम्मा मस्जिद, पिसुर्लेचें महादेव मंदिर, सुर्लाचें पठार, वाघेरी पर्वत, साटरे गड, नाणसाच्या किल्ल्याचो स्मृतीस्तंभ हीं सत्तरी म्हालांतली पळोवपासारकीं मुखेल थळां आसात.

- राजेंद्र पां. केरकर

**सत्यनारायण :** चालू शतकांतलें एक लोकप्रिय नवसी व्रत. महाराष्ट्र, गोंय, बंगाल आनी हेर दक्षिणी राज्यांनी सत्यनारायण व्रताचो प्रभाव चड आसा. सत्यनारायण हें विष्णुचें रूप मानतात. तांदळांचे वा गंवांचे राशीचेर उदकान भरील्लो कलश, ताचेर पूर्णपात्रांत सत्यनारायणाची प्रतिमा वा बाळकृष्णाची मूर्त दवरतात. हे पूजेंत कलशाक १००८ तुळशीच्यो ताळयो घालतात. सवायशेर रवो, सवायशेर तूप आनी सवायशेर साकर घालून केल्ल्या कणिकाचो निवेद्य दाखयतात. सत्यनारायणाचे पोथयेचें वाचन आनी पूजन हो व्रताचो एक वांटो आसा.

स्कंधपुराणाच्या रेवा खंडांत पांच अध्यायांनी सांगिल्ल्या कथांचें कथन भाविकांमुखार करप जाता. कथा - कथनाउपरांत

सत्यनारायणाच्या महिमाचेर आदारीत खाशेली अशी आरत करतात. तीर्थ - प्रसाद, दक्षिणा - दान, दांपत्य - भोवमान करतकच पूजेची समाप्ती जाता.

सत्यनारायणाच्या कथा - कथनामदीं एक मुखेल कथा साधू नांवांच्या एका वाण्याभोंवतणी आनी ताची घरकान्न लीलावती तशेंच धूव कलावती हांचेसंबंदान आसा. सत्यनारायणाक आंगवण करून ताका कलावती ही चली जाल्ली पूण फुडें आंगवण पावोवपाची उरिल्ल्यान साधूवाण्याक आनी ताच्या जांवयाक खर संकश्टाक तोंड दिवंचें पडलें. पूण फुडें आवय - धूवेन सत्यनारायणाचें व्रत करून तांचेवयलें संकश्ट पयस केलें असो ह्या व्रताचो महिमा हे कथेंत सांगला.

हेच कथेवांगडा अंगध्वज नांवाच्या राजाची कथा सांगप जाता. राखण्यांनी दिल्लो सत्यनारायणाचो प्रसाद न्हयकारील्ल्यान ताचे शंबर पूत मेले तशें राज्यय गेलें. फुडें हें व्रत करून चूक मागतकच पूतासकट ताका वैभव प्राप्त जालें असो हे कथेचो शेवट आसा. सत्यनारायणाचेर आदारीत आनीकय वेगळयो कथा आसात.

गोंयांत तशेंच महाराष्ट्रांत आंगवणीचे पूजेवांगडाच वा उत्सवा वेळार वैयक्तिक वा भौशिक रीतीन सत्यनारायणाचें व्रत करपाची प्रथा आसा. लोकांकडल्यान दान - देणगीच्या रुपान द्रव्य एकठांय करून सत्यनारायणाची पुजा करपाचो संकल्प सोडून कांय भाविक लोक ही पुजा करतात. कांय गांवांनी थरावीक काळांत वर्सुकी पुजा करप जाता. लग्न जाल्ल्या नव्या दांपत्यान ही पुजा करपाची चाल खास करून गोंयांत आनी महाराष्ट्रांत आसा.

भोवतेक्कडेन सकयल दिल्ली सत्यनारायणाची आरत म्हणटात.

**सत्यनारायणाची आरती -**

जय जय दीनदयाळा सत्यनारायण देवा । पंचारति ओवाळूं श्रीपति तुज भक्तीभावा ।। जय ० ।। ध्रु ० ।। विधियुक्त पूजुनी करिती पुराण श्रवण । परिमळद्रव्यासहित पुष्प माळा अर्पून । घृतयुक्त शर्करामिश्रित गोधूमचूर्ण । प्रसाद भक्षण करितां प्रसन्न तूं नारायण ।। जय ० ।। १ ।। शतानंदविप्रें पूर्वी व्रता हे आचरिलें । दरिद्र दवडुनि अंतीं त्यातें मोक्षपदा नेलें । त्यापासुनि हें व्रत या कलियुगि सकळां श्रुत झालें ।। भावार्थें पूजितां सर्वां इच्छित लाधलें ।। जय ० ।। २ ।। साधुवैश्यें संततिसाठीं तुजला प्रार्थीलें । इच्छित पुरतां मदांध होउनि व्रत न आचरिलें । त्या पापानें संकटिं पाडुनी दुःखहि भोगीलें । स्मृीत होउनि आचरितां व्रत त्या तुवांचि उध्दरिलें ।। जय ० ।। ३ ।। प्रसाद विसरुनि पतिभेटीला कलावती गेली । क्षोभ तुझा होतांचि तयाची नौका बुडाली । अंगध्वजरायासी यापरि दुःखस्थिती आली । मृतवार्ता शतपुत्रांची सत्वर कर्णीं परिसली ।। जाय ० ।। ४ ।। पुनरपि पूजुनि प्रसाद ग्रहण करितां तत्क्षणीं । पतिची नौका तरली देखे कलावती नयनीं । अंगध्वजरायासी पुत्र भेटति येऊनी । ऐसा भक्तां संकटिं पावसि तूं चक्रपाणी ।। जय ० ।। ५ ।। अनन्यभावें पूजुनि हें व्रत जे जन आचरती । इच्छित पुरविसि त्यांतें देउनि संतति संपत्ति । संहरती भय दुरितें सर्वहि बंधनें तुटती । राजा रंका समान मानुनि पावसि श्रीपती ।। जय ० ।। ६ ।। ऐसा तव व्रतअपारमहिमा वर्णूं मी कैसा । भक्तिपुरःसर आचरती त्यां पावसि जगदीशा । भक्तांचा कनवाळू कल्पद्रुम तू सर्वेशा । मोरेश्वरसुत वासुदेव तुज विनवी भवनाशा ।। जय ० ।। ७ ।।

- कों. वि. सं. मं.

**सत्यशोधक समाज :** ब्रिटीश राजवटींत सगळया जातींक शिक्षण मेकळें जालें म्हणून जोतीराव फुले सारके शिकिल्ले सूज्ञ फुडारी २४ सप्टेंबर १८७३ ह्या दिसा पुणें हांगा जमले आनी व्हड विचार केले उपरांत धर्म, कर्म, वेव्हार हातूंत फुडाराक शूद्रांची पिळणूक जावंची न्हय, म्हणून तांणीं सत्यशोधक समाजाची स्थापणूक केली. हाचेय पयलीं इ. स. १८६४ त मुंबयंत आनी १८७० त पुण्यांत प्रार्थना समाजाची स्थापणूक शिकिल्ल्या लोकांनी केल्ली मुखेलपणान तेच धर्तेर पूण शूद्रांचे खास उदरगतीखातीर सत्यशोधक समाज हे स्वतंत्र संघटनेची स्थापना जाली. फुडाराक हो महाराष्ट्रांतलो एक पंथ जालो. ह्या समाजाचीं मुखेल तत्त्वां सकयल दिल्लेप्रमाण आशिल्लीं - १. देव एक आसून तो सगळे कडेन भरिल्लो निर्गुण, निर्विकार आनी सत्यस्वरूप आसा आनी सगळीं मनशां हीं ताचीं भुरगीं जावन आसात. २. ईश्वराची भक्ती करपाचो पुराय अधिकार दर एका मनशाक आसा. तेरखातीर ताका मध्यस्थाची गरज ना. ३. मनीस हो जातीन श्रेश्ठ थरना, तर तो गुणांनी व्हड थरता. ४. खंयचोय ग्रंथ सगळे नदरेन प्रमाण आनी देवान घडयल्लो ना. ५. परमेश्वर हो अवयव रुपान अवतार घेना. ६. पुनर्जल्म, कर्मकांडां, जप - तप ह्यो सगळयो गजाली अज्ञानाचेर आदररिल्ल्यो आसात.

जोतीरावान आपल्या विचारांचो सुबोध सूत्रबध्द सारांश असो सांगला - विद्येविना मति गेली, मतीविनां नीति गेली, नीतीविनां गती गेली. गतीविनां लित गेले, वित्ताविनां शूद्र खचले, इतके अनर्थ एका अविद्येने केले. (अर्थ - शिकप नाशिल्ल्यान बुध्द ना, बुध्द नाशिल्ल्यान नीत ना, नीत नाशिल्ल्यान गती ना गती नाशिल्ल्यान दूडू नात, दुडवांविणें शूद्र खचले, हे सगळे अनर्थ एका अनाडीपणान केले). ताणें हो निश्कर्श 'शेतकऱ्याचा आसूड' (१८८३) ह्या ग्रंथांत सुरवेकच काडला. सत्यशोधक चळवळीचो भावार्थ हातूंतच दिसता.

समाजाच्या परिवर्तनाखातीर, समाज रचनेंतलो धर्मभेद, जातीभेदाचेर आदारिल्लो उच्चनीच हो भेदभाव, बायलांची पिळणूक, हिंदु धर्म संस्थेतली मूर्तीपुजा आनी हेर कर्मकांडां आदी गजाली ना न पश्चात करून समता प्रदान समाजाची निर्मणी करपाखातीर तशेंच कुड्डयो श्रध्दा ना करपाखातीर, विचारीक क्रांतीची गरज आसा, अशें फुलेक दिसलें आनी तेरखातीर ताणें सत्यशोधक समाज ही माची

निर्माण केली. सगळया धर्मांच्या आनी जातींच्या लोकांनी समाजाचे वांगडी जावंचे, अशी ताची विचारसरणी आसली.

सत्यशोधक समाज एक निर्मिक, एक धर्म, एक मनीस जात मानपी म्हणून स्थापन जालो. सगळयाच धर्माच्या धर्मग्रंथांतल्यान सगळयांक प्रमाण मानप योग्य नाशिल्ल्यान सत्यशोधक समाज ग्रंथाचें पुराय प्रामाण्य मानीना, अवतारवाद, विभूतिपुजा आनी मूर्तीपुजा ताका मान्यना. नामस्मरणाचो भक्ती मार्ग ताका पसंत ना. भागवत धर्म आनी ताचें शुध्द स्वरुप पत्करपी प्रार्थना समाजाप्रमाण तो परमार्थवादी जावंक ना. परलोक आनी ईश्वराची साक्षात भेटय ताका मान्य ना. ताचें स्वरुप चडांत चड इहवादी आनी सामाजिक आसा. बायल - दादलो, चलो - चली हांचेमर्दी पक्षपात करचो न्हय, इतलेंच न्हय तर दादल्यापरस बायल श्रेश्ठ अशेंय ज्योतीबान म्हळां. सगळयाक सारको धर्म, कायदो आनी नीत आसची. जनावरांक मनशांइतली बुध्द ना देखून मनशान आपल्याक मेळिल्ल्या बुध्दीचो आदाराचेर बरेपणान वागचें. सर्ग आनी दैववाद खरो न्हय. धर्म आनी राज्यभेद मनशांमर्दी नासचे, मळबांतल्या गिऱ्यांची पिडा जाता हें खरे न्हय असो मानवतावाद जोतीरावांनी सत्यशोधक समाजावरवीं सगळया मनीस जातीच्या बरेपणाखातीर मांडलो. हे चळवळींतल्यान ताका वेगळो धर्म वा आनीक एक नवीन संप्रदाय स्थापन करपाचो नाशिल्लो. तांचो रोख धर्म ग्रंथांतल्या विशमतेचेर आनी पक्षपाताचेर आशिल्लो म्हणून सत्य किते आसा? असत्य किते? हेंच सोदपाखातीर 'सत्यशोधक हे' व्यापक नांव ताणें घेतलें. भोळेपण ना करून विज्ञानिक नदर आपणावची हेंच ह्या समाजाचें ध्येय आशिल्लें.

ईश्वरशक्त आनी मनशाचो नैतिक एकवट हांचो संगम हेंच सगळें धर्माचें रहस्य आनी तत्त्व. हेंच तत्त्व सत्यशोधक समाजान सगळेकडेन पाताळावपाचो यत्न केलो. ब्राह्मसमाज आनी सत्यशोधक समाज हांच्या तत्त्वांमर्दी पुराय समानताय दिसता. ब्राह्मसमाज ही फकत धर्मीक चळवळ आशिल्ली तर सत्यशोधक समाज मुखेलपणान सामाजिक क्रांतीची चळवळ आशिल्ली, अशेंच दिसून येता. भौसाचेर हिंदुंच्या ब्राह्मणी दायजान जो युगान युगां शेक गाजयलो ताचेआड बंड करपी प्रवृती सत्यशोधक समाजाच्या रुपान जागी जाली. ब्राह्मणेत्तर चळवळ जाल्ल्यान समाजाक बरोच विरोध जालो. सत्यशोधक समाजाचो वावर चड महाराष्ट्रांत जालो. वचत थंय महाराष्ट्रांत समाजाचे फांटे सुरू जाले. कोल्हापूरच्या शाहूमहाराजान समाजाचें फुडारीपण स्विकारलें. मद्रांसातय चळवळ पावली.

कै. नारायणराव लोखंडे, डॉ. विश्राम रामजी दोले, कै. कृष्णराव भालेकर, कै. भास्करराव जाधव, प्रो. डोंगरे हांणीं सत्यशोधक समाजांचो वावर फुडें व्हेलो. कर्मवीर भाऊराव पाटील हाणें तर शिक्षण प्रसाराचो वावर करपाचे नदरेन हेच चळवळींतल्यान प्रेरणा घेवन रयत शिक्षण संस्था स्थापन केली. डॉ. बाबासाहेब आंबेडकारानय फुलेक आपलो गुरू मानलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सत्याग्रह :** सत्याचो आग्रो धरप (सत्य + आग्रह). अन्यायाआड शांततायेन अहिंसकपणान झगडपाचो एक मार्ग. एक अंतीम सत्य. सत्याग्रह म्हळयार मोग, अहिंसा आनी आत्मक्लेश ह्या साधनांनी सत्याचो सोद घेवप. 'सत्याग्रह' ह्या शब्दाचो वापर आनी प्रयोग गांधीजीन पयले खेप दक्षिण आफ्रिकेंत केलो. दक्षिण आफ्रिकेंत आशिल्ल्या भारतीय लोकांचेर जावपी अन्यायाआड झगडपाखातीर गांधीजीच्या फुडारपणाखाल साबार भारतीयांनी सत्याग्रह मार्ग आपणायल्लो. थंयच ताचो विकास जावन ताका यश मेळळें.

राजकीय प्रस्न सोडोवपाखातीर सत्याग्रहाचो मार्ग गांधीजीन पयले खेप आपणायल्लो आसलो, तरी पुराणीक कथांनी सत्याग्रह्यांच्यो देखी सांपडटात. भक्त प्रल्हाद आनी राजा हरिश्चंद्र हांणीं तांचेर जावपी अन्यायाआड आत्मक्लेशाचो मार्ग आपणावन गौतम बुध्द आनी महावीर हांणीं अहिंसेची शिकवण दिली. जेजू क्रिस्ताच्या आयुश्यांत सत्याग्रहाचें तत्त्व चड निश्चीत आनी सुस्पश्ट जाल्लें दिश्टी पडटा. संत ज्ञानेश्वर, संत तुकाराम, संत एकनाथ आनी हेर संतांनी अन्यायाचो प्रतिकार मोगान आनी शांतीन केलो. पूण तांणीं सत्याग्रह ही व्यक्तिगत धर्मीक प्रवृत्तीच मानिल्ली. भौशिक वा राजकीय क्षेत्रांतलो अन्याय ना करपाचो सामुदायिक मार्ग म्हूण ताचो रितसर उपेग सगळयांत पयलीं फकत गांधीजीनच केलो. गांधीजीन अहिंसक सत्याग्रहाक भौशिक शक्तीचें रूप दिवन, स्वातंत्र्य आनी आपल्या हक्कांखातीर झगडपाचें एक प्रभावी हत्यार निर्माण केलें. ताणें सत्याग्रहाक तात्त्विक भूमिकेचें अधिश्ठान दिल्लें आसून, ताचें पुराय शास्त्र तयार केलां.

गांधीच्या मतान सत्य आनी अहिंसा एकरूप आसात. जीणेसंबंदांची कसल्याच तरेची हानीकारक कृती सत्याग्रहांत करपाची नासता. दुस्मानांचो नाश करप ही कल्पना सत्याग्रहाफाटल्यान नासून संयम, सहानुभूती आनी आत्मक्लेश हांच्या योगान तांचें मन वळोवप, तांकां वायट कृत्यांपसून पयस करप ही तातुंतली मूळ कल्पना. सत्याग्रही कोणाचकडेन केन्नाच दुस्मानकायेचे भावनेन पळयना; जाल्यार मित्रत्वाचे भावनेन पळयता. खंयचेय परिस्थितींत केद्याय व्हडल्या संकश्टावेळार, मोग आनी अहिंसा मार्गान सत्याची जाणीव, उपासना आनी तांचे आचार हे संबंदींचो आग्रो हें सत्याग्रहाचें अधिश्ठान. सत्य हेंच सत्याग्रह्यांचें निमाणें ध्येय आसून, अहिंसा वा मोग हेंच ताचें एकमेव साधन. सत्याग्रह शस्त्र म्हूण आपणावपाची इत्सा आसता. ताची त्या मार्गाचेर श्रध्दा आसपाक जाय. गांधीजीच्या मतान हेर खंयच्याय मार्गापरस हो मार्ग प्रभावी विरोधी आंगांन केदोय व्हड आनी ताचें हिंसेचें तंत्र कितलेंय कार्यक्षम आसलें जाल्यारय हो मार्ग आपणांव येता. आपूण निर्भय आसल्यार आनी आपली इत्साशक्त

थीर आसत जाल्यार एकलो एकसुरो आसून लेगीत संवसारांतल्या केद्याय व्हडल्या प्रतिस्पर्ध्याक तोंड दिवप शक्य जाता. अहिंसा म्हणजे भिजूडपण नासून ती प्रतिस्पर्ध्याक नमोवपी खर आंतरीक बळगें आसा. सत्याग्रहाची मोरव फकत अन्यायाआड झगडपाखातीर आसता. सत्याग्रही फकत अन्यायाआड हल्लो चडयता, व्यक्तींचेर न्हय. आत्मक्लेशाच्या योगान अन्याय करतल्यांच्या मनाचें परिवर्तन घडोवन त्या अन्यायासावन परावृत्त करप ही सत्याग्रह्याचो मूळ उद्देश. भारतीय स्वातंत्र्य संग्रामांत, क्रांतीकारी हिंसक चळवळींवांगडाच, गांधीजीप्रणीत सत्याग्रहाची खूबच मदत जावंक पावली. ह्या संग्रामांत, सत्याग्रहाचें योगदान क्रांतीकारी चळवळीपरस व्हड आसा अशेंय कांय राजकीय निरिक्षकांचें मत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सनातन गोस्वामी :** (जल्म : इ. स. १४९०, फतेहाबाद, जि. जैसोर, बंगाल; मरणः इ. स. १५९१).

चैतन्य मताचे म्हान आचार्य म्हूण स नामनेचे गोस्वामी आसात. तातुंतलो सनातन हो जेश्ठ संत आसा. भारद्वाजगोत्री श्री गिरेस्त ब्राह्मण कुटुंबांत ताचो जल्म जालो. ताच्या बापायचें नांव कुमारदेव आनी आवयचें नांव रेवतीदेवी. रूप गोस्वामी हो ताचो धाकटो भाव. सनातन गोस्वामीचें मूळ नांव अमर आशिल्लें अशें म्हण्टात.

सनातन गोस्वामीन संस्कृत भाशेचें शिक्षण पुराय करून विंगड विंगड शास्त्रां आनी धर्मग्रंथांचो खोलायेन अभ्यास केलो. अरबी आनी फारसी भाशांचोय तो पंडित आशिल्लो.

त्या काळांतलो नबाब हुसेनशाह हो विद्वान लोकांक आश्रय दितालो. ताणें सनातन आनी रूप गोस्वामी हांकां आपल्या राज्यकारभारांत अधिकाराचीं पदां दिलीं. सनातनाची विद्वता आनी कार्यकुशळताय पळोवन हुसेनशाहान ताका प्रधानमंत्रीपद दिवन मल्लिक अशी पदवीय दिली. हे दोगूय भाव न्यायप्रिय, प्रजावत्सल आनी कुशलमंत्री आशिल्ल्यान खूब लोकप्रिय जाल्ले. पूण राज्यकारभारांत तांचें मन रमना जालें. हरिभक्त आनी सत्संगपरायण आशिल्ल्यान राज्यकारभार करून फाविल्लो वेळ ते भगवद्भक्तींत आनी सत्संगतींत घालयताले. त्या काळांत बंगाल आनी ओडिसा ह्या प्रदेशांनी चैतन्य महाप्रभू कीर्तनां करून लोकांक कृष्णभक्तीचो मार्ग दाखयतालो. ह्या दोगय भावांचेर ताचो खूब प्रभाव पडलो आनी तांणीं आपलीं मंत्रीपदां सोडून चैतन्य महाप्रभूचें शिश्यत्व आपणायलें. त्या दोगांकय चैतन्यदेवान धर्मशास्त्र, भक्ती, रसतत्त्वसाधना ह्या विशयांचें ज्ञान दिलें आनी ब्रज - वृंदावनांत रावन कृष्णभक्तीचो प्रचार करपाचो आदेश दिलो.

सनातन गोस्वामीन एकदां बेजारून जीव दिवपाचो निश्चय केलो, तेन्ना चैतन्यदेवांनी ताका समजायलो आनी वृंदावनाक परत धाडलो. थंय ताणें श्रीकृष्णाच्या भजन - पूजनांत आपलें मन घालें.

सनातन गोस्वामीन त्या पंथाच्या आचार धर्माचें आनी नेमांचें विवरण केलें. तशेंच रूप गोस्वामीन त्या पंथाच्या गूढ सिध्दान्तांची विस्कटावणी केली. त्या दोगांकूय चैतन्यमताचे शास्त्रकर्ते मानतात. ते दोगूय धर्मतत्त्व, भक्तितत्त्व आनी रसतत्त्व हांचे म्हान ज्ञाते आसून, तांणीं चैतन्यदेवाचे उपदेश आपल्या विद्वत्तापूर्ण ग्रंथांतल्यान सांगल्यात. तेखातीर तांचे ग्रंथ हे चैतन्यमताचे आदारग्रंथ मानतात. सनातन हो चैतन्यमताच्या कर्मकांडाचो निर्मातो आसून, ताच्या नेमांप्रमाणच त्या संप्रदायाच्या देवळांतले पूजा - विधी जातात आनी मठांतल्या साधूंचो जीवनक्रम चलता.

सनातन गोस्वामीन हरिभक्तिविलास, बृहद् भागवतामृत, भागवत दशम स्कंधावयली बृहद्वैष्णवतोषिणी टीका आनी दशमचरित हे ग्रंथ बरयल्यात. ह्या दोनय भावांची कीर्त आयकून राजे - महाराजे तांच्या दर्शनाखातीर वृंदावनांत येताले. इ. स. १५७३ त अकबर बादशाहा तांचे भेटेक आयलो आनी तांचें कृष्णप्रेम पळोवन प्रभावित जालो अशें म्हण्टात. तांचेकडे एक पारसमणी आशिल्लो, तो तांणीं एका गरीब ब्राह्मणाक दिलो, अशी एक आख्यायिका आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सपिंड :** पिंड ह्या शब्दाचो अर्थ शरीर (कूड) असो आसा. जांचीं शरीरां एकाच प्रकारच्या कणांनी तयार जाल्लीं आसतात. तांकां सपिंड मानतात. बापूय आनी पूत हांच्या शरीरांतले कण सारके आसतात देखून ते सपिंड जातात. आजो, पणजो, बापोलयो, तांचीं भुरगीं, आवय, तिचो बापूय, नातू आदी मनशांमदीं रगताचो संबंद आशिल्ल्यान तांकांय सपिंड मानतात. बापायच्या वंशांत सातवे पिळगेमेरेन आनी आवयच्या वंशांत पांचवे पिळगेमेरेन ही सपिंडता अस्तित्वांत उरता.

दायभाग पद्दतीप्रमाण सपिंडाचो अर्थ वेगळो आसा. श्राध्दावेळार मेल्ल्या पुर्वजांक जे शिताचे गुळे ओंपतात, तांकां पिंड म्हण्टात. जीं मनशां अशा पिंडदानाक संबंदीत आसतात, तांकांय सपिंड म्हण्टात. दायभागाप्रमाण पूत, बापूय, आजो, भाव, ताचे पूत आनी नातू हे सगळे जाण्टेल्याच्या धनाचे वांटेकार आशिल्ल्यान ते सपिंड आसात. मनूच्या मतान जो मनीस पिंडदान करता तो आनी जाका पिंड अर्पण करतात ते पितर हे एकामेकांचे सपिंड आसतात.

सपिंड आशिल्ल्या चलो - चलयेमदीं लग्न करचें न्ही असो हिंदू धर्मशास्त्राचो नेम आसा. म्हणजे न्हवऱ्याचे आवयकडल्यान पांच पिळग्यांचो आनी बापायकडल्यान सात पिळग्यांचो व्हंकलेकडेन संबंद नासलो जाल्यारच ते न्हवरो - व्हंकल लग्नाक योग्य समजुंचे.

पाणिनीन सपिंड हो शब्द रक्तसंबंद ह्या अर्थान वापरिल्लो आसा. ऋग्वेद आनी तैत्तरिय संहिता हातूंत पिंड हो शब्द पशुबळीच्यो ज्यो आहुती उज्यांत उडयतात ताचेखातीर वापरला. शतपथ ब्राह्मणांत

पितरांक अर्पण करपाखातीर केल्ले शिताचे गुळे असो ताचो अर्थ आसा. निरुक्तांतूय ह्याच अर्थान हो शब्द आयला. पूण पुराय वैदिक संहितांत सपिंड हो शब्द मेळना. ताचो उपेग सुरवेक धर्मसुत्रांत केल्लो आसून सपिंड लग्नाक मनाय आसा अशें तातूंत म्हळां. तेउपरांतच्या सगळया धर्मशास्त्रकारांनी सपिंड लग्नाक मनाय केल्ली आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सप्टेंबर :** ग्रेगॉरियन कॅलेंडरांतलो ३० दिसांचो णवो म्हयनो. पुर्विल्ल्या रोमन प्रजासत्ताक कॅलेंडरांतलो तो सातवो म्हयनो आशिल्लो. लॅटीन भाशेंत सप्टेम (Septem) म्हळयार सात असो अर्थ जाता. ताचेवयल्यान ह्या म्हयन्याक सप्टेंबर नांव पडलें. पुर्विल्ल्या रोमांत रोमी लोकांचें वर्स मार्च म्हयन्याचे एक तारखेच्यान सुरू जातालें. तेन्ना सप्टेंबर म्हन्याक २९ दीस आसताले. पूण चडीत म्हयनो येता तेन्ना ३१ दीस आसताले. पूण रोमी सम्राट आगस्टसान १ जानेवारी सावन रोमनाचें नवें वर्स सुरू केल्लेमेरेन सप्टेंबर हो कॅलेंडरांतलो णवो म्हयनो जावन ताका ३० दीस आसात.

सप्टेंबर म्हयनो हो चडशा देशांतलो कापणेचो म्हयनो. ह्या म्हयन्यांत पृथ्वीच्या उत्तरेकडच्या चडशा भागांत दीस मातशे उश्ण आसले तरी राती शितळ आसतात. साबार युरोपी देश सप्टेंबर म्हयनो हो कापणेचो म्हयनो म्हूण ह्या म्हयन्यांत उत्सव मनयतात. ग्रीक लोक ह्या म्हयन्यांत डिमेटर हे शेतकी देवीचो उत्सव मनयतात जाल्यार रोमी लोक सिरस हे शेतकी देवीचो उत्सव मनयतात. रोश - हा - साना (नवें वर्स), झोम गॅडालिया, उपास, योम किप्पूर, ॲटोनेमॅन्ट डे, सुक्कोट हे ज्यू सण ह्या म्हन्यांत येतात. १७ सप्टेंबर हो दीस अमेरिकेंत नागरिक दीस आनी संविधानीक दीस म्हूण मनयतात. जाल्यार सप्टेंबर म्हयन्याच्या पयल्या सोमारा थंय कामगार दीस म्हूण मनयतात.

हिंदू पंचांगाप्रमाण सप्टेंबर म्हयनो भाद्रपद - आश्विन म्हयन्यांत येता. भारतांत ५ सप्टेंबर हो दीस शिक्षक दीस म्हूण मनयतात. जाल्यार ८ सप्टेंबर हो दीस आंतरराश्ट्रीय साक्षरता दीस म्हूण मनयतात. सप्टेंबराचो तिसरो मंगळार आंतरराश्ट्रीय शांती दीस म्हूण पाळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**श्री सप्तकोटेश्वर देवस्थान, नार्वे :** गोंयांतलें एक खूब पुर्विल्लें देवस्थान. इतिहासीक आनी पुराणीक नदरेन ह्या थळाक खूब म्हत्व आसा. ह्या थळाविशीं पुराणीक म्हायती मेळटा ती अशी- सह्याद्रीच्या मुळसांत पंचन्हंयांचो जो संगम जाला त्या थळार सप्तऋषींनी सुमार ७ कोटी वर्सां खर तपश्चर्या केली. तेन्ना तांकां महादेव प्रसन्न जालो आनी ताणें तांकां जाय तो वर मागूंक सांगलें. तेन्ना ह्या ब्रह्मज्ञानी मुनींनी ताका सांगलें, जाचे कृपेखातीर आमी सात कोटी वर्सां खर तप केलें तितलीं वर्सां त्याच नांवांन तेजोरूप जावन तू हांगा राव'. ते प्रमाण महादेव श्री सप्तकोटीश ह्या नांवांन तेजोरूप लिंग जावन थंय रावलो. सातऋषींचो स्वामी ह्या अर्थान ताका सप्तनाथ म्हण्टात. जरासंधाकडे झूज करपाच्या वेळार श्रीकृष्णान सप्तकोटेश्वराची आराधना करून ताचो वर मेळयल्लो, असोय एक पुराणीक पुरावो मेळटा.

श्री सप्तकोटेश्वराची मूळ स्थापना पोरन्या गोंयां मुखार आशिल्ल्या दिवाडी जुंव्याच्या उत्तर वाठारांत नार्वें नांवाच्या थळांत जाल्ली



असो उल्लेख सह्याद्री खंड, मांगिरीश माहात्म्य, सप्तकोटीशाख्यान अध्याय - ३ हांगा मेळटा.

**इतिहासीक पुरावो :** पुर्विल्ल्या काळांत गोमंतकाचेर मौर्य, कदंब, चालुक्य आदी वंशांच्या राजांनी राज्य केलें. हातुंतलें कदंब राजवंशाचें घराणें श्री सप्तकोटेश्वराचें परम भक्त आशिल्लें असो पुरावो, त्या काळांतलें भांगराचें नाणें मेळळां ताचेवयल्यान कळटा. हें नाणें कदंब राजा जयकेशी दुसरो (इ. स. ११०४ ते ११४८) हाच्या काळांतलें आसून ताचे एकेवटेन श्री सप्तकोटीश वरविरा - जयकेशी देव मालवरा मारी अशे शब्द आसून दुसरे वटेन शींवाचें चित्र, कदंब राजघराण्याचें चिन्न आनी विखर असो शब्द आसा.

इ. स. १३५४ वर्सा सुलतान अल्लाउद्दीन हसन गंगू हाणें कदंबाचेर जैत मेळयलें तेन्ना सुमार चवदा वर्सां, १३६६ वर्सा मेरेन गोमंतक बहामनी सत्तेखाल आशिल्लो. हे सत्तेच्या निमाण्या आठ वर्सांत गोमंतकांत हिंदू धर्मीयांचो छळ आनी देवस्थानाचो विध्वंस केलो. तातूंत श्री सप्तकोटेश्वराचें लिंग ताचे पोंदा भरपूर संपत्ती मेळटली हे आशेन मुळासयत हुमटून काडलें. पूण ताचे पोंदा तांकां कांयच मेळळेंना. देखून तांणीं तें शेतांत शेंवटिलें, पूण विजयनगरच्या पराक्रमी हरिहर रायान, विद्यारण्य माधव नांवांच्या आपल्या प्रधानाक इ. स. १३६७ त व्हड सैन्यासयत घुरी घालूंक धाडील्ले. तांणीं थंयच्या तूर्क लोकांक धावंडावन घाले आनी तांणीं हुमटून काडिल्ले देव परत आपल्या जाग्यार स्थापन केले. अशेतरेन इ. स. १३९१ वर्सा दिवाडी जुंव्यारच परत श्री सप्तकोटेश्वराची रीतसर स्थापना केली.

इ. स. १५१० वर्सा पुर्तुगेजांनी गोमंतकाचो कांय वाठार जिकून घेतलो आनी तांणीं थंय खिरस्ती धर्माचो प्रसार करपाखातीर थंयचीं देवळां मोडून त्या जाग्यार इगर्जी बादूंक सुरवात केली. श्री सप्तकोटेश्वराचें लिंगय तांणीं हुमटून काडून एके बांयचेर आडवें घालें

(इ. स. १५४०).

उपरांत गोंयच्या पुर्तुगेज राजसत्तेखाला शेजारच्या भतग्राम म्हालाचें सरदेसाय आनी विजापुरच्या आदिलशाहीचो मांडलीक श्री नारायण शेणवी सुर्यराव हाका श्री सप्तकोटेश्वराचें लिंग बांयचेवयलें काडपाचो दृश्टांत जालो. तेन्ना ताणें मोटे हुशारकायेन कोणाकच पत्तो लागूंक दिनासतना तें थंयचें काडून दिवाडेचे ईशान्येक सुमार दोन कोस अंतराचेर लाठंबारसे हांगा व्हरून दवरलें. थंय तें तीन वर्सां आशिल्लें. फुडें इ.स. १५४९ वर्सा दिवाडेचे उत्तरेक पंचगंगेचे उजवे देगेर तांणी ह्या लिंगाची स्थापना केली. ज्या जाग्यार ह्या लिंगाची स्थापना जाली त्या थळाक तेन्ना 'हिंदळे' म्हूण वळखताले. पूण श्री सप्तकोटेश्वराची स्थापना जातकच दिवाडेंतलें पुर्विल्लें नावाजिल्लें क्षेत्र नांव चालू दवरपाखातीर त्या थळाक नवें नार्वे, कोंकण नार्वे वा नारवें (नार्वे) ह्या नांवांन वळखतात. ते उपरांत २० वर्सांनी म्हळयार इ.स.१५६९ वर्सा कै. नारायण शेणवी सुर्यराव हाणेंच ह्या पुरातन क्षेत्राचो जिर्णोध्दार केलो आनी त्या देवस्थानच्या खर्चाखातीर जमनीय दिल्यो.

छत्रपती शिवाजी महाराजान १६६४ वर्सा भतग्राम म्हाल घेतलो. तेन्ना नार्वे हो गांव शिवाजी महाराजाच्या राज्यांत आस्पाविल्लो. तो श्री सप्तकोटेश्वराच्या दर्शनाक गेल्लो आनी ताणें ह्या देवळाचो जिर्णोध्दार केलो. तेविशींचो कोरीव लेख आयजय ह्या देवळाच्या महाद्वाराचेर आसा आनी ताचेर 'श्री सप्तकोशीश शके १५९० किलकाब्दे कार्तिक कृष्ण पंचम्या सोमे श्री शिवराजा देवालयस्य प्रारंभः' तशेंच ताणें देवळाचो चौक, घुमट आदीय बांदून घेतले.

सप्तकोटेश्वराचें देवूळ फाटल्या शतमानांत मोडकळीक आयिल्लें. कै. वा. नारायण शेणवी सूर्यरावाचो वंशज कै.वा.शिवराम महादेव सूर्यराव सरदेसाय हाणें इ.स. १९०९ वर्सा ह्या कै.वा.नारायण धोंडबा दिवाडकर हाच्या आनी हेर कांय म्हाजनांच्या आदारान चौकावयल्या पाख्याचो जिर्णोध्दार केलो आनी हेर कांय सुदारणा केल्यो.

हे क्षेत्र श्री सप्तकोटेश्वर म्हळयार शिवस्वरुपी दैवताचें क्षेत्र आसुनय हांगा गोकुळाश्टमी दिसा महायात्रा भरता. हाचे फाटलें मुखेल कारण म्हळयार त्या सात ऋषींनी सातकोटी वर्सां खर तप करतकच ज्या दिसा ताका शिव प्रसन्न जालो तो दीस गोकुळाश्टमीचो आशिल्लो. त्या दिसा ह्या ऋषींनी शिवाचें दर्शन घेवन पंचन्हंयेंत स्नान केलें आनी सप्तकोटेश्वर शिवाची पुजा केली तेन्ना तांकां मोक्ष मेळ्ळो. तेन्नाच्यान ह्या पुण्यदिसाचे यादीक हांगाच्या पंचन्हंयेंच्या तिर्थांत गोकुळाश्टमी दिसा जात्रा भरता आनी भाविक लोक मुक्तीखातीर वीधिपूर्वक तीर्थस्थान करतात.

आज जंय ही जात्रा भरता ताचे पलतडचे देगेर पुर्विल्ल्या काळांत ही जात्रा भरताली. पूण पुर्तुगेज काळांत सरकारान २१ सप्टेंबर १६५४ आनी ३ फेब्रुवारी १६५५ ह्या दिसा जाहीर हुकूम काडून हे जात्रेचेर बंदी हाडली. तेन्ना भाविकांनी ही जागा गोकुळाश्टमीच्याच दिसा मूळ जाग्याच्या पलतडीन भरली. हो जागो हिंदू सरदाराच्या कारभाराखाल आशिल्ली. तेन्नाच्यान ही जात्रा त्याच जाग्यार भरता.

श्री सप्तकोटेश्वराच्या देवळाकडे ह्या देवालयाची संस्थापक कै. वा. नारायण शेणवी सूर्यराव हाची समाधी आसा. दर वर्सा कार्तिक शुक्ल दसमी दिसा म्हळयार ह्या देवस्थानाचे स्थापनेच्या वाडदीस श्री सप्तकोटेश्वराची पालखी काडटात. ही पालखी देवळाकडे व्हरचेआदीं हे समाधीकडे दवरतात. थंय तिची पुजा, आरती जातकच ही पालखी देवळाकडेन व्हरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**सप्तर्षी :** जगत्मान्य अशे आदरणीय सात ऋषी. दर एका मन्वंतराचे सप्तर्षी वेगवेगळे आसतात. एका मन्वंतरांत सात म्हळयार चवदा मन्वंतरांत अठ्ठयाणव सप्तर्षी जातात.

महाभारतांत सप्तर्षींच्या नांवांच्यो दोन वळेऱ्यो दिल्यात - १) कश्यप, अत्री, भरद्वाज, विश्वामित्र, गोतम, जमदग्नी आनी वसिष्ठ. २) मरीची, अत्री, अंगिरस, पुलस्त्य, पुलह, ऋत् आनी वसिष्ठ.

पुराणभेदांत सप्तर्षींचीं नांवां वेगवेगळीं मेळटात. वर्तमान वैवस्वत मन्वंतरांत वसिष्ठ, कश्यप, अत्री, जमदग्नी, गोतम, विश्वामित्र आनी भरद्वाज हे सप्तर्षी मानल्यात. हेर मन्वंतरांत नांवां बदलिल्लीं आसात. सप्तर्षी हे सूक्तद्रष्टे आसात. मनू, देव, सप्तर्षी आनी इंद्र हीं अधिकाराचीं स्थानां आसुंये. उत्तरेक ध्रुव ताऱ्याभोंवतणी प्रदक्षिणा घालपी सात ठळक ताऱ्यांक सप्तर्षी अशें नांव आसा. एक चवकोन आनी ताका लागून तीन ताऱ्यांची वांकडी शेंपडी अशी ती पतंगाच्या आकाराची आसता. ते शेपडेंतल्या मदल्या ताऱ्यालागसार एक अस्पश्ट अशी तारका आसा, तिका अरुंधती म्हण्टात आनी जोडीदाराक वसिष्ठ मानतात. हांकां ध्रुवरक्षक तारे अशे मानल्यात. मरीची, अत्री, अंगिरस, पुलस्त्य, पुलह, क्रतू आनी वसिष्ठ अशीं तांचीं नांवां आसात. हे सप्तर्षी वैषुविक वृत्ताचे उत्तरेक ५० ते ६० अंशांच्या अवकाशांत आशिल्ल्यान ते माथ्याचेर केन्नाच येनात. हे ईशान्य दिकेक उदेतात आनी वायव्येक अस्ताक वतात. जाट लोक तांकां रथ समजतात आनी ध्रुव हो तांचो मालक मानतात. तांकां ऋक्ष म्हळयार वांस्वेल मानपाचीय प्रथा खुबशा देशांनी आसा. वैदिक ऋषीय तांकां ऋक्षच मानतात. ऋषिपंचमीचें व्रत वैवस्वत मन्वंतरांतल्या ऋषींक उद्देशूनच केल्लें आसता. श्रावणीबी कितल्याशाच धर्मकृत्यांनी सप्तर्षींची पुजा करतात. शिव आनी पार्वती हांच्यां लग्नावेळार सप्तर्षी मध्यस्थ आशिल्ले अशी कथा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सप्त सिंधू :** सप्त सिंधू म्हळयार सात न्हंयो वा सात न्हंयांचो वाठार. ऋग्वेदांत हो शब्द सात न्हंयो ह्या अर्थान आयला. ह्यो सातय न्हंयो दर्याक मेळटात. आठव्या मंडलांतल्या चोविसाव्या सूक्तांत, सप्तसिंधू म्हळयार सात न्हंयांचो वाठार अशें सुचीत केलां.

कांय अभ्यासकांच्या मतान सप्तसिंधू प्रदेश म्हळयार पंजाब आनी वितस्ता (झेलम), असिक्नी (चिनाब), परुष्णी (रावी), विपाशा (बियास), शुतुद्री (सतलज), सिंधू आनी सरस्वती ह्यो त्यो सात न्हंयो आसात. ह्या मुखेल न्हंयांक लागून त्या प्रदेशाक सप्त सिंधू हें नांव मेळ्ळां आसलें तरी, त्याच प्रदेशांत दृषद्वती, तृष्टामा, रसा, श्वेती, कुभा, गोमती, क्रुमू, मेहत्नू ह्यो न्हंयो व्हांवताल्यो. अस्तंतेक खैबर घाट, उदेंतेक यमुना, उत्तरेक हिमाचल आनी दक्षिणेक राजस्थानांतलें वाळवंट अशो ह्या प्रदेशाच्यो शिमो आशिल्ल्यो.

सप्त सिंधू प्रदेश म्हळयार पंजाब हें मत सगळयांक मान्य ना. कांय अभ्यासकांच्या मतान पांच न्हंयांचो प्रदेश ह्या अर्थान हो शब्द आयला. ह्यो सगळयो न्हंयो दर्याक मेळनात. तेखातीर सप्त सिंधू व्याप्तीविशीं विद्वानांत मतभेद आसात.

मध्य आशियांत रशियन तुर्कस्तांनातल्या कांय वाठाराक सात न्हंयांचो प्रदेश म्हण्टात. पुर्विल्ल्या काळांत त्या प्रदेशांत भारतीय आर्यांचे पूर्वज रावताले. कांय काळा उपरांत थंयसावन ते पंजाबांत आयले आनी नवे वसाहतीक तांणीं सप्त सिंधू हेंच नांव दिलें आसुंये अशें कांय जाणांचें मत आसा.

श्री दास हाच्या मतान सप्त सिंधूचे उत्तरेक हिमालय आसून दक्षिणेक दर्या आशिल्लो. तो दर्या सुकून थंय राजस्थानाचें वाळवंट जालें. उदेंतेक हिमालयाच्या मुळांतूच एक दर्या आशिल्लो. तो सुकून थंय भूप्रदेश निर्माण जालो. त्या प्रदेशांत उत्तर प्रदेश, बिहार, आसाम हांचो आस्पाव जाता. अस्तंतेक सुलेमान पर्वत आशिल्लो. हाचेवयल्यान पंजाब आनी काश्मीर ह्या प्रदेशांचो सप्त सिंधूंत आस्पाव जातालो आसुंये. फाटल्या पन्नास शेंकडयांच्या काळांत भरतखंडाच्या भुगोलीक रचणुकेंत खूब बदल जाला हें भूगर्भशास्त्रज्ञांनी मान्य केलां. सप्त सिंधू प्रदेश पयलीं दर्यान वेढिल्ल्यान थंयचें हवामान सप्तशीतोश्ण आशिल्लें पूण आतां थंय जमीन आनी वाळवंट जाल्ल्यान हवामानांतूय बदल जाल्यात.

गंगेचे देगेवयलें मेरठ आनी कुमाऊँ, जम्मू, काश्मीर, वायव्य शीमे वाठार आनी अफगाणिस्तानाचो उदेंत वाठार ह्या सगळयांचो सप्त सिंधूंत आस्पाव जातालो अशें भार्गव हाचें मत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सप्ते, नारायण धर्मा :** (जल्म : २७ ऑगस्ट १९४१, म्हापसा - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. २६ जानेवारी १९५५ ह्या दिसा म्हापसा हांगा ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो. पोलिसांनी ताका धरलो, बंदखणींत दवरलो आनी २७ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा सोडलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सफरचंद :** सफरचंद हें थंड हवामानांत जावपी फळ. Pyrus Malus L. हें ह्या फळझाडाचें शास्त्रीय नांव. हें झाड सुमार १५ मी. उंचायेमेरेन वाडटा. पानां लंबगोल, ४-५ सेंमी. लांब, मोव आनी दातऱ्यो कडो. मर्दीं माल्सो गुलाबी रंग आशिल्लीं धवीं फुलां घोंसांनी येतात. फळां मासाळ, गोल आसतात. पयलीं पोपटी रंग आसता, मागीर गुलाबी, तांबडो जाता.

सफरचंदाची लागवड खूब पयलींसावन करतात. सादारण १८ व्या शेंकडयांत सफरचंदाची लागवड करपाक सुरवात जाली असो उल्लेख मेळटा.

भारतांत या पिकाखाला सुमार १३,००० हेक्टर सुवात आसा. पंजाब, उत्तर प्रदेशचे कांय वाठार, काश्मीर, हिमाचल प्रदेश ह्या राज्यांनी सफरचंदाची लागवड मोठ्या प्रमाणांत करतात. जगांत अमेरिका, जपान, ऑस्ट्रेलिया ह्या देशांनी सफरचंदाची लागवड व्हड प्रमाणांत जाता. गोंयचें हवामान सफरचंदाचे लागवडीक योग्य नाशिल्ल्यान गोंयांत ह्या पिकाची लागवड जायना.

ह्या पिकाक बऱ्या निचऱ्याची आनी लोमी प्रकारची जमीन मानवता. सफरचंदाचे दोन प्रकार आसात - ट्रीप्लॉयड (Triploid) आनी डीप्लॉयड (Diploid). डीप्लॉयड ह्या प्रकाराची चड प्रमाणांत लागवड करतात.

सफरचंदाच्यो खुबशो जाती आसात. रेड डेलीशीयस, गोल्डन, वरेस्टर, पियरमेन, न्यूवटन वंडर, कींग ऑफ पीपीन, रॉयल डेलीशीयस, रीर्चाड, आम्ब्री, काश्मीरी, ब्लड रेड, व्हायट, डॉटेड रेड, बेन डेव्हीस, ग्रॅमी स्मीथ ह्यो कांय मुखेल जाती.

लागवड करपाखातीर पयलीं दोळो भरून कलम तयार करतात आणि उपरांत लागवड करपाखातीर वापरतात. लागवड खंयच्याय तेपार करपाक जाता आसलीतरी, फेब्रुवारी - मार्च ह्या म्हयन्यांनी चड करून लागवड करतात. लागवड करतना दोन झाडांमदलें अंतर ७.५ x ७.५ सेंमी. इतकें दवरतात. कलम लावपाखातीर ५० x ५० x ५० सेंमी. आकाराचे नेम काडटात. ह्या नेमांत पांच कायली कंपोस्ट आणि उरिल्ली माती घालून कलम लायतात.

झाडाक वळण दिवपाक, फुलां तशेंच फळां येवपाक झाडाची छाटणी करतात. छाटणी करून झाडाचो मध्य भाग सदांच उक्तो

दवरतात. ४- ५ वर्सांनी झाडाक फळां येवपाक लागतात. १२ - १८ वर्सांनी भरपूर पिकावळ मेळटा.

सफरचंदाक बऱ्याच रोगांचो उपद्रव जाता. खोड काळें पडप (Stem Black), खोड तांबशें जावप (Stem Brown), स्कॅब, मीलड्यू, खोड खुज ह्या सारक्या रोगांचो उपद्रव जाता. किडींभितर खवळाची किड (Scales), मुळां पोखरपी किड ह्या किडींची लागण जाता.

फळां थोडीं तांबशीं जातकच अचळय काडटात. तीं लाकडी पेटयांनी घालून देशाच्या हेर वाठारांनी धाडटात. फळां खावपाखातीर वापरतात तशेंच तांचेपसून जाम, जेली करतात. फळां सुकोवन तशेंच कॅनींग करून दवरतात. फळांच्या रोसापासून वायन, व्हीनेगर, ब्रॅन्डी तयार करतात. फळांत पॅप्टीन हो पदार्थ चड आशिल्ल्यान पातळ परसाकडेन जाता त्या मनशाक हें फळ वखदी गूण दिता. सालीचोय बरो वखदी उपेग जाता.

- विश्राम गांवकार

**समंध** : भूत - पिशें हे योनींतलो एक प्रकार मेल्ल्या मनशाक फाटल्यान कोणूच सोयरो - धायरो नासत वा मेल्ल्या मनशाच्या मरणा उपरांतचे कांय संस्कार करपाचे उरल्यार, मरणा उपरांत असो मनीस समंध जाता असो समज आसा.

एकाद्र्या मनशाची इत्सा पुराय जावंचे पयलीं ताका मरण येत जाल्यार तो मनीस संमध जाता अशेंय म्हण्टात.

हावरो मनीस जर समंध जालो जाल्यार तो फाटल्यान उरिल्ले संपत्तीचो उपभोग हेर लोकांक घेवपाक दिना. असो समंध आपल्या दुस्मानाक त्रास दीत रावता अशी समजूत कांय लोकांमदीं आसा.

पिंपळ, वड वा रूमडाच्या झाडाचेर वा खंयच्याय पडक्या घरांत, बांयंत अशा सुवातींनी ताचो राबितो आसता अशें समजप जाता.

समंध हो दांडगो आसता असो समज आसा. मांत्रिका कडल्यान समंधाची आराधना करून ताका प्रसन्न करून घेतल्यार तो त्रास करीना, उरफाटें कुटुंबाच्या बऱ्याखातीरच तो वावुरता असोय लोकांचो समज आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**समर्पण** : देवाक ना जाल्यार इश्टदेवतेक वेगवेगळयो वस्तू अर्पण करप, असो ह्या शब्दाचो अर्थ जाता. जी वस्त ज्या जाग्यावयल्यान आयल्या, थंय तिका परत पावोवप असो ह्या शब्दाचो आशय आसा. सगळे जीव देवाकडल्यान आयल्यात. समर्पण क्रियेंतल्यान ते परत देवाकडे पावतले, अशी समर्पणा फाटली भावना आसा.

समर्पणांतलो हो सगळयांत व्हडलो हेतू आसलो तरी, सगळींच समर्पणां त्याच हेतून जायनात. तातूंत आनीकय कांय गौण भावय कार्यान्वित आसतात.

मनीस मेल्या उपरांत ताचो आत्मो परलोकांत वता. त्यावेळार तो रावता थंय वा थडयाकडेन ताका उपेग जावंचो ह्या हेतून अन्न उदक दवरपाची चाल पुर्विल्ल्या काळा सावन चलत आयल्या. फुडें आत्म्याविशीं खूब कल्पना प्रसृत जाल्यो, तांकां दिव्य रूप फाव जालें आनी तांकां प्रसन्न करून घेवपाखातीर कांय जिन्नस अर्पण करपाची कल्पना जल्माक आयली. सैमाच्या घडामोडींत कितलेशाच शक्तींचो प्रत्यय येता, तांचेकडल्यान फायदो करून घेवप वा तांचो कोप टाळप ह्या हेतून तांकां कितेंयतरी अर्पण करपाची प्रथा त्या उपरांत सुरू जाली. अन्नधान्य, फळां, पशुबली, नरबली अशीं कितलेशाच तरांचीं समर्पणां करपी आनी स्विकारपी हांच्या स्वभावधर्माक दवरून जावपाक लागलीं. सादारणपणान जे दैवी शक्तीकडे संबंद प्रस्थापित करून घेवपाची इत्सा आसता, तिका अर्पण केल्लो पदार्थ आपणे भक्षण केल्ल्यान तो हेतू साध्य जाता, ही समजूत सगळेकडेन दिसून येता. रानांतल्या जमातींच्या बळिदानांत ही कल्पना आसता, तशी किरिस्तांव धर्मांतल्या 'युखारिस्ट' ह्या विधींतय ती आसा. भूताखेतांचो राग टाळप आनी देवाक प्रसन्न करून लाब करून घेवप हो समर्पणांतलो हेतू जगांतल्या सगळया मानवी समाजांत सापडटा. पूण अशे तरेचो खंयचोय हेतू मनांत दवरीनासतना देवान जें दिल्लें आसा, ते खातीर फकत उपकार दाखोवपाचे भावनेन तारुंतलोच थोडो भाग ताका अर्पण करप ही रीत सगळयाकच सांपडटा.

- कों. वि. सं. मं.

**समाजशास्त्र** : समाज ह्या मानवी समुदायाचो शास्त्रीय अभ्यास करपी शास्त्र. समाजांतल्या घटकांचो म्हणजे व्यक्तींचो आनी संस्थांचो, परस्पर संबंद आनी ह्या संबंदांतल्यान निर्माण जावपी सगळया वेव्हारांची चिकित्सा, विश्लेशण, अनुमान, कारणां परिणाम हांचो आस्पाव ह्या अभ्यासांत जाता. मनीस कुळयेंतल्या दर एका घटकाक (समाजाक) समान आचार - विचारांची एक सतत आनी लांब अशी परंपरा आसता. हे परंपरेक संस्कृती म्हण्टात. ही संस्कृती त्या समाजाच्या सगळया सामाजिक संबंदांची म्हणजे रितीरिवाजांची, जिवीत तत्त्वज्ञानाची आचार, आहार, विचारांची सर्वमान्य वा भौमान्य अशी जिवन प्रणाली आसता. समाज शास्त्रज्ञाच्या मता प्रमाण सगळे जिवसृश्टींत फकत मनशाचेच बाबतींत सामाजिक वेव्हार अधिकृतपणान अभिप्रेत आसा.

समाजशास्त्राच्या अभ्यासांत जे मुखेल घटक येतात तातूंत समाजाची मुळावी संस्था म्हणून १) कुटूंब, सामाजिक बांदावळ नियंत्रीत दवरपी २) सामाजिक मुल्यां, सामाजिक वेव्हार जाचेर अधिश्ठीत जाला ती समाजाची ३) संस्कृती, हांचो आस्पाव जाता. ह्या

मुखेल घटकांक धरून आशिल्ले (अ) सामाजिक नियंत्रण, (आ) सामाजिक समस्या, (इ) सामाजिक बदल, (ई) सामाजिक संतुलन ह्या उपघटकांचो आस्पाव जाता.

१९ व्या शतमानामेरेन समाजशास्त्राक एक स्वतंत्र शास्त्र म्हूण मानपांत आयलें ना तोमेरेन समाजशास्त्र हें राज्यशास्त्र वा अर्थशास्त्र हांचो पोटविभाग समजप जातालें. ऑगस्ट कॉम्त हाणें सगळयांत पयलीं स्वतंत्रपणान समाजशास्त्राचो १८३८ त उल्लेख केलो. उपरांत हर्बट स्पॅन्सर, कार्ल माक्स एमिल डुरखायम, मॅक्स वॅबर हांणी समाजशास्त्राच्या स्वतंत्र अभ्यासाक चालना दिली. विशेश करून मॅक्स वॅबर हाणें आधुनिक समाजशास्त्राची बुन्याद घाली. समाजाची मांडावळ, ताची उत्क्रांती आनी विकास, समाजांतल्या विविध घटकांचो परस्पर संबंद हांचो अभ्यास म्हणजे समाजशास्त्र असो समाजशास्त्राचो मुळावो सिध्दांत ह्या समाजशास्त्रज्ञांनी मांडलो. ह्या सिध्दांताचें दायज घेवन फुडाराक जायत्या विद्वानांनी समाजशास्त्राच्या विविध आंगाचो खोलायेन विचार करून समाजशास्त्र हें हेर शास्त्रा इतकेंच प्रगत आसा हाची गवाय दिली. हातुंतल्या डार्विनचो उत्क्रांतीवाद, एमिल डुरखायमचो कार्यवाद, उपरांतच्या विद्वानाचो रचनावाद आनी आंतरक्रियावाद, कार्ल मार्क्सचो नियतीवाद ह्या सिध्दांतांनी समाजाची चिकित्सक, तुलनात्मक, रचनात्मक असो अभ्यास जावन समाजाची निर्मिती धरून तांचो विकास, विस्तार आनी ऱ्हास मेरेन हांची कारण मिमांसा केली.

समाजशास्त्राचो अभ्यास आनी संशोधन करपांत ज्या अन्य बुदवंतांचो हातभार लागला तातुंतले मुखेल अशे - हर्बट स्पॅन्सर, एल्.टी. हॉबहाऊस, ब्रॉमीस्ली मॉलोनस्की, लुइस मॉर्गन, इ. बी. टायलर, जॉर्ज सिमेल, विल्यम सूमनॅर, चार्ल कुले, सोरोकीन, टॅलकोट पार्सन्स, टॉयन्बी, विल्यम जॅम्स, जॉर्ज मीड, विल्यम थॉमस, एल्सवर्थ फॅरिस, रॉबर्ट पार्क, अर्नेस्ट बर्गेस्, कार्ल मॅनहॅम.

समाजशास्त्राचो स्वतंत्र अभ्यास भारतांत खुबच उसरां जालो. प्राचीन भारतीय ग्रंथांनी समाजासंबंदीं उल्लेख आयले आसले तरी ते भौतेक करून राज्यशास्त्र, नितिशास्त्र, धर्मशास्त्र अशी शास्त्रांच्या सदर्भांत आयिल्ले आसात. एक स्वतंत्र शास्त्र म्हणून समाजशास्त्राचो उदय भारतांत विसाव्या शेंकड्यांत जालो. भारताच्या वेगवेगळया समाजांमदले वेव्हार, परस्पर संबंद, विंगड विंगड संस्कृती सामाजिक बदल हांचो विविध शिक्षणीक संस्थांनी खोलायेन अभ्यास चलता. जी. एस्. घुर्ये, इरावती कर्वे, डी. एन्. मुजुमदार, एस्.सी. दुबे ह्या समाजशास्त्रज्ञांनी ह्या शास्त्राक व्हड योगदान दिलां.

समाजशास्त्र हें समाजाच्या वेगवेगळया आंगांचो विचार करता आशिल्ल्यान ह्या शास्त्रांत समाजाचे सगळेच घटक आस्पावतात. हाका लागून समाजशास्त्राचो संबंद हेर सामाजिक शास्त्राकडेन लागींच्यान लागता. समाज हे संज्ञेंत समाजांतल्या घटकांचो अर्थीक वेव्हार, राजकीय वेव्हार, नैतिक आचार, न्यायपद्दत, इतिहासीक दायज, भुगोलीक अवस्था, मानसशास्त्रीय नदर, वंशपरंपरा हांचो आस्पाव जाता देखून समाज शास्त्राचो अभ्यास करतल्याक मानवशास्त्र, मानसशास्त्र, अर्थशास्त्र, राज्य शास्त्र, नितिशास्त्र, न्यायशास्त्र, इतिहास आनी भुगोल हांच्यो अभ्यास करचो पडटा, म्हणून हीं सगळीं हेर शास्त्रां समाजशास्त्राक पुरक अशीं शास्त्रां आसात.

आधुनिक विज्ञानीक युगांत समाजांत सातत्त्यान परिणामकारक अशीं परिवर्तनां घडत आसात. समाजाचे पारंपारीक मांडावळीक हीं परिवर्तनां एकेवटेन बादा हाडटात आनी दुसरेवटेन नवी मांडावळ प्रस्थापित जावंक सोदता. विशेश करून समाजाच्या बुन्यादी मुल्यांत जाल्लें परिवर्तन आयच्या काळांतल्या समाजशास्त्राचो संशोधनाचो विशय जाला. तेचवांगडा नवीन मांडवळीचें विश्लेशण करून तिका समाज शास्त्रीय सिध्दांत दिवप होय एक समाजशास्त्रांखातीर अभ्यासाचो विशय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**समाधी :** एक ध्यान अवस्था. ही अश्टांग योगांतली निमणी अवस्था. ध्यानाची ही फुडली अवस्था आसा. जेन्ना ध्यान ध्येयस्वरूप जाता आनी ताका परिसराची वेगळी अशी जाणीव उरना अशे अवस्थेक समाधी म्हण्टात. समाधींत देशालंबन सुटटा आनी अर्थमात्राचोच एकाकार अणभव येता. तेचप्रमाण योगांत येवपी आडमेळीं पयस जावन एकाग्रता साधता. समाधीची व्याख्या अशी आसा -

तदेवार्थमात्रनिर्भासं स्वरूपशून्यमिव समाधि ः।

भाव्य वस्तूशिवाय हेर खंयचोय अर्थ भासमान जायना सतना फकत ती भाव्य वस्तूच भासमान जावप, ही ते वस्तूची अर्थमात्र निर्भासता म्हणजेच समाधी.

समाधीचे मुखेलपणान दोन भेद आसात -

**१) संप्रज्ञात समाधी :** हिका सबीज समाधी अशेंय म्हण्टात. हे समाधींत चित्त वृत्तिरहित जायना आनी ध्येयाविशींची वृत्ती शेवटमेरेन तशीच उरता. तशेंच हे समाधींत भाव्य पदार्थाविशीं दुबाव जांव फट गिन्यान उरनासतना त्या भाव्य पदार्थाचें स्वरूप बरेभशेन कळटा. संप्रज्ञात समाधीचे चार भेद आसात -

१) सवितर्क ः सवितर्कांत पंचमहाभूतां आनी इंद्रियां हे स्थूल विशय ध्यानाक आलंबन म्हण आसतात.

२) सविचार ः पंचतन्मात्रा, अंतःकरण ह्या विशयांचो आलाशिरो घेवन देश, काल आनी धर्म हांचेविशीं जेन्ना भावना चलता तेन्ना ते समाधीक सविचार म्हण्टात. तशेंच जेन्ना देशादिकांचो विचार उत्पन्न जायनासतना फकत धर्माविशीं भावना चलता तेन्ना तिका निर्विचार समाधी म्हण्टात.

३) सानंद ः जेन्ना रज तमांच्या त्रासांनी मुक्त जाल्ल्या

बुध्दितत्त्वाची भावना चलता तेन्ना तिची शक्त गौण थारून सुखोत्पादक सत्त्वगुणाचो उत्कर्ष जाता. अशा वेळार जो आनंदाचो अविर्भाव जाता ताका सानंद समाधी म्हण्टात.

४) सास्मित समाधी : रज - तम ना जावन सत्त्वगुण हो ध्यानाचो आलशिरो जावन जी भावना चलता तातुंतलो सत्त्वगुण ल्हवू ल्हवू दुबळो जावन तातुंतलें चितिशक्तीचें बळगें कमी जाता अशा वेळार 'अहं सूखरूप : अस्मि' हातुंतले फकत 'अस्मि'चें भान उरता. देखून हे अवस्थेक सास्मित समाधी म्हण्टात.

२) **असंप्रज्ञात समाधी** : सगळया वृत्तींचो नाश जावन फकत संस्कार उरप असो जो चित्ताचो निरोध ताका असंप्रज्ञात समाधी अशें नांव आसा. बऱ्या दर्जाच्या वैराग्याचो सतत अभ्यास हें हे समाधीचें साधन आसा. असंप्रज्ञात समाधीची योग्यता खूब व्हड आसा.

असंप्रज्ञात समाधीचेय उपाय प्रत्यय आनी भवप्रत्यय अशे दोन प्रकार आसात.

समाधीचे सविकल्प आनी निर्विकल्प अशेय दोन प्रकार मानतात. चित्तांत जोमेरेन ध्याता, ध्यान आनी ध्येय ह्या त्रिपुटींचें स्फुरण जायत रावता तोमेरेन ते अवस्थेक सविकल्प समाधी म्हण्टात. निर्विकल्प समाधींत मन हें मनपणाकच दिसता. अशी समाधी ही स्वताच साध्य आसता.

समाधीदशेचें वर्णन जायत्या संतांनी आनी आचार्यांनी केल्लें आसा. बौध्दांच्या ध्यानयोगांतय समाधीक स्थान आसा. उपचार आनी अर्पणा अशो दोन तरांच्यो समाधी बौध्दांनी मानल्यात.

आदल्या काळांत योगी - मुनी, ऋषी - आचार्य हे समाधी साधना करताले आनी मौलीक गिन्यान जोडटाले म्हणपाचे संदर्भ दर एका पुरातन ग्रंथांत मेळटात. आयच्या काळांतय आधुनिक तपस्वी समाधी साधनेचो प्रत्यय घेता म्हणपाच्यो देखी आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**समेळ** : पंच वाद्यांतलें एक चर्मवाद्य. घुमटाक साथ दिवपाखातीर मुखेलपणान ह्या वाद्याचो उपेग करतात. वेताच्या वा लोखणी आंट्यांचेर चामडें ताणून तें लाकडाच्या खोबऱ्याचेर बसयतात. उब्या आयदनाच्या आकाराचें हें वाद्य जमनीर दवरून वेताच्या दोन शिपट्यांनी वाजयतात.

पंचवाद्यांत साथी वाद्य म्हणून समेळाचो वापर चौघुडो, सुंवारी सारकिल्या वादनांत जाता. गोंयांत चौघुडो, सुंवारी वादना वांगडाच, चवथीक घुमटाच्या आरतींत समेळाचो वापर जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**सय्यद अहमद खान** : (जल्म : १८१७ दिल्ली; मरणः ? ). भारतांतलो कट्टर इस्लामवादाचो पुरस्कर्तो आनी प्रचारक, तशेंच मुस्लिम शिक्षणशास्त्रज्ञ, कायदे पंडीत आनी लेखक. ताणें आपली कारकीर्द कारकुनी नोकरेसावन सुरू केली. अलीगड शारांत ताणें मोहमडन ॲंग्लो ओरिएंटल कॉलेजाची स्थापना केली. भारतांतलो मुस्लिम समाज आनी इस्लाम धर्म हांच्या पुनुरूथ्थनाची चळवळ ताणें उबारली.

सर सय्यद अहमद खान हो एकुणिसाव्या शेंकड्यांतलो एक मुस्लिम शिक्षणशास्त्रज्ञ. ब्रिटीश सरकारान सुरू केल्ल्या शिक्षणाचो फकत हिंदू लोक लाब घेतात. पूण परंपरीक पद्धतीन शिक्षण घेवपी मुस्लिम लोक फाटींच आसात. देखून १८७५ त ताणें अलिगड शारांत मुस्लिम स्कूल सुरू केलें. ताचेंच मुखार म्हाविद्यालयांत आनी उपरांत मुस्लिम विद्यापिठांत रुपांतर जालें. १८८६ त 'अखिल भारतीय मुस्लिम शिक्षण परिशदेची' स्थापना करपांत ताणेंच फुडाकार घेतिल्लो. हे शिक्षणीक संस्थेक उपरांत राजकीय परिशदेचें स्वरुप मेळ्ळें. मुस्लिम लीग हो राजकीय पक्ष घडोवपांत हे संस्थेचें योगदान म्हत्वाचें आसा.

सय्यद खान हाणें मुस्लिम समाजांत शिक्षणाचो प्रसार केलो. धार्मिक जागृताय वाडयली. तशेंच मुस्लिम समाजाक ब्रिटीश सत्तेकडेन लागीं हाडपाचो वावर ताणें केलो. ताचे आदीं भारतांतलो मुसलमान समाज ब्रिटिशांआड आशिल्लो. भारतांतली मुसलमानांची सत्ता नश्ट करपांत ब्रिटिशांचोच हात आसा अशें तांकां दिसतालें. अशा समाजाक सर सय्यदान इंग्लीश शिक्षणाचें म्हत्व पटोवन दिलें. ब्रिटीश सत्तेकडेन एकनिश्ठ रावल्यार मुसलमान समाजाची प्रगती जातली हें पटोवन दिवपाखातीर ताणें साबार ल्हान व्हड संस्था उबारल्यो. तेखातीर खूब व्याख्यानां आनी लेखय बरयले. सय्यदाच्या यत्नांक लागुनूच ब्रिटीश राजकारभारांत आनी लश्करांत मुसलमानांक म्हत्वाचे हुद्दे मेळ्ळे.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक भारतांत जो राश्ट्रवाद उदयाक आयलो ताका सय्यदान सदांच विरोध केलो. १८८५ त काँग्रेसची स्थापणूक जाल्याउपरांत हिंदू आनी मुसलमान हांचे एकवटीचेर काँग्रसीन जो भर दिल्लो ताकाय विरोध करून, मुसलमानांचे नदरेन ती विघातक आसा, अशें ताणें सांगलें. भारतांतल्या मुसलमानांक राश्ट्रीय चळवळीसावन पयस दवरपाखातीर सय्यदान १८८९ त अप्पर इंडिया मोहमडन डिफेन्स असोसिएशन नांवाची संस्था उबारिल्ली. ताणें मुसलमानांखातीर विभक्त मतदार संघ मागलो. ताच्या मताप्रमाण भारत हें एक राश्ट्र नाशिल्लें. एकाच देशांत दोन वेगवेगळया धर्मांचे लोक आसल्यार, तीं दोन राश्ट्रां जातात, असो ताचो द्विराश्ट्रवादी सिध्दांत आशिल्लो. सय्यदाच्या सगळयो मागण्यो वा येवजणो इस्लाम धर्म, इस्लाम समाज आनी इस्लामी संस्कृती, भारतीय संस्कृतीसावन वेगळी करपाची मुसलमानांक प्रेरणा दिवपी थारल्यो. भारत आनी पाकीस्तान अशी अखंड भारताची फाळणी जावपाफाटली प्रेरणा, ज्यो

कांय शक्ती कारणीभूत जाल्यो तातूंत सय्यद अहमद खान हाची शिकवण आनी वावर आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**डॉ.सरदेसाय, मनोहरराय :** (जल्म : १८ जानेवारी १९२५). नामनेचे कोंकणी कवी आनी फ्रेंच भाशेचो जाणकार. ताचें शाळेचें शिकप मराठी आनी पुर्तुगेज भाशेंत जालें. १९४२ त मॅट्रिक जातकच ताणें मुंबय विल्सन कॉलेजींत शिक्षणाक सुरवात केली. ताचो बापूय नामनेचो कोंकणी - मराठी कथाकार लक्ष्मणराव सरदेसाय त्यावेळार गोंय मुक्ती चळवळींत बंदखणींत आशिल्ल्यान ताका शिक्षण व्हडा कश्टान घेवचें पडलें. १९४९ त मुंबय विद्यापिठाचे एम्.ए. परीक्षेंत तो पयल्या वर्गांत पयलो आयलो. भुरगेपणासावन साहित्यिक बापायच्या संस्कारांक लागून ताका वाचनाची आवड जाल्ली. मुंबय कॉलेजींत शिकतना ताणें साबार कोंकणी, मराठी नेमाळयांखातीर कविता, लघुकथा आनी हेर लेख बरयले. १९४९ - ५२ त ताणें विल्सन कॉलेजांत व्याख्यातो म्हूण काम केलें.



१९५२ त ताका फ्रांस सरकाराची 'The Image Of India In France' ह्या विशयाचेर प्रबंध बरोवपाची शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. फ्रांसांत आपल्या स वर्सांच्या राबित्यांत फ्रेंच, युरोपी आनी हेर साहित्याचो ताणें खोलायेन अभ्यास केलो. पॉल एल्युआर, जॅकी प्रिवर्ट, पाब्लो नेरुदा, गार्सिया द लॉर्का ह्या कवींचो ताणें अभ्यास केलो. वॉलतॅर, दिदरॉ, व्हिक्टर ह्युगो, रोमां रोलां, आल्बर्ट श्वायतझर हांच्या दोळयांतल्यान भारत कसो दिसता हें ताणें शिकून घेतलें. थंय व्हड लेखक, कलाकार आनी चित्रकारांकडे ताचो संपर्क आयलो. १९५६त, ताणें हेलसिंकी शारांत निर्वासितांच्या समस्यांविशींच्या संवसारीक संघटनेचे परिशदेंत वांटो घेतलो. त्याच वर्सा हॅम्बर्ग शारांत शांती आनी स्वातंत्र्याच्या संवसारीक संघटनेचे परिशदेंत वांटो घेवपाची संद ताका मेळ्ळी.

१९५८ त ताका सोरबॉन विद्यापिठाची डॉक्टरेट फाव जाली. १९६० त आकाशवाणी नवी दिल्लीच्या विदेश सेवा विभागांत ताणें थोडो तेंप नोकरी केली. १९६० - ६१ ह्या काळांत मुंबयच्या सोमय्या म्हाविद्यालयांत व्याख्यातो म्हूण ताणें काम केलें. ह्याच वेळार ताचें पयलें कोंकणी पुस्तक 'आयज रे धोलार पडली बडी' (संगितिका) उजवाडाक आयलें. ह्याच काळांत मडगांवां जाल्ले आठवे कोंकणी परिशदेची यजमानकी ताणें चलयली. १९७७ त ताणें एके शिश्यवृत्तीखाला रशियेक भेट दिली.

१९७९ - ८५ ह्या काळांत ताणें मुंबय विद्यापिठांत फ्रेंच भाशेचो प्रपाठक म्हूण काम पळयलें. १९८५ - ९० ह्या काळांत गोंय विद्यापिठांत फ्रेंच आनी पुर्तुगीज खात्याचो संयोजक म्हूण काम पळयलें. १९८५ - ९२त गोवा कोंकणी अकादेमीचो उपाध्यक्ष म्हूण ताणें योगदान दिलां. १९८८ - ९१ ह्या काळांत गोवा विद्यापिठाच्या कोंकणी विश्वकोश प्रकल्पाचो मुखेल संपादक म्हूण ताणें वावर पळयला.

१९९३ - ९७ ह्या काळांत साहित्य अकादमीच्या कार्यकारी मंडळाचो वांगडी म्हूण ताणें काम केलां.

कोंकणी, मराठी, हिंदी, संस्कृत, फ्रेंच, इंग्लीश, पुर्तुगीज आनी हेर कांय भासांचेर ताचें प्रभुत्व आसा. चडशें बरप कोंकणींतल्यान करता. ताच्यो कविता, गीतां आनी कवनां लोकांच्या तोंडया घोळून लोकप्रिय जाल्ल्यान ताका लोकां कवी म्हूण नामना मेळ्ळी. ताचे कवितेंत कविता, गोंय, देश, सैम आनी मनीस हांचेविशींचो उपाट आनी उत्कट मोग दिसून येता. गोंयांत मुक्तीआदीं आनी उपरांत ल्हव ल्हव सांस्कृतिक, सामाजिक आनी राजकीय मळार जे बदल आनी रूपांतरां घडत रावलीं, ताचें प्रतिबिंब ताच्या कांय कवितांनी दिसून येता. अर्थीक असमता, अज्ञान, भ्रश्टाचार, अनीत, लोकशायेंतले उणाव, राजकारण अशा विशयांचेर ताणें पियादां आनी उपहासात्मक बडयो मारल्यात.

**काव्य :** आयज रे धोलार पडली बडी (१९६१), गोंया तुज्या मोगाखातीर (१९६४), जायात जागे (१९६४), जय पुण्यभूंय, जय भारत (१९६५), बेब्यांचें काजार (१९६५), रामगीता (१९६८), जायो - जुयो (१९७०), English Poems (१९७१), पिसोळीं, भांगराची कुराड (१९७९), माणकुलीं गीतां (१९८२), मनोहर गीतां (१९८७), गोड गोड गीतां (खंड १ ते ३ : १९९१).

**गद्य :** आमची भास आमकां जाय (१९६२), शणै गोंयबाब (१९६८), Honoure de Balzac (१९७९), साहित्य सुवाद (१९९३).

**नाटकां :** स्मगलर (१९७५), बिराड बदललें (१९८१), जादूचो कोंबो (१९९५).

**संपादन / अणकार :** Anthology of Konkani Poems (१९६४).

**कोंकणीत अणकार :** देवाचीं उतरां (१९८४), कांदीद (व्हॉल्तॅर - १९८४), आयलें आमचें राज (१९९०), विवेकानंद (रॉमा रॉलां - १९९४).

कोंकणी भाशा मंडळाचें 'स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कविता' ह्या पुस्तकाचें ताणें संपादन केलां. जिवित आमचें अशें (१९७०) हें ताचें आनीक एक पुस्तक.

मनोहररायाक जायते पुरस्कार फाव जाल्यात. 'पिसोळीं' कविताझेल्याक साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळो. गोवा कला

अकादमीचो शारदा पुरस्कार गोंय, सांस्कृतिक पुरस्कार आनी राश्ट्रीय अकादमीचो सातवाहन पुरस्कार ताका फाव जाल्यात.

ताणें रचिल्लो इंग्लीश - कोंकणी शब्दकोश उजवाडाक येवपाचे वाटेर आसा.

- मुकेश थळी

**सरदेसाय, डॉ. मलबाराव :** (जल्म : ३१ डिसेंबर, १९११, सावय-वेरें, गोंय).

एक नामनेचो संगीतकार. ताचें पुराय नांव डॉ.मलबाराव माधव सुर्यराव सरदेसाय. ताचें सावयवेरेचें सरकारी शाळेंत मुळावें शिकप जालें. फुडें लिसेवाचें शिक्षण पणजी हांगा जालें. गोंयच्या संगीत इतिहासांत ताचें कार्य व्हड जावन आसा. गळयापरस बोटांचेर तांचो चड मोग आशिल्ल्यान ताणें संगीत वादनांचे धडे गिरयले. मलबारावाचो हावेस व्हड आनी ताची घरची परिस्थिती गिरेस्त जाल्ल्यान मनातले हावेस ताणें पुराय केले. व्हड व्हड वस्ताद कलाकारांकडल्यान ताणें शिक्षण घेतलें. सुरवेक धोडुंराम काटकार हाचेकडल्यान पांच वर्सां तबल्याचें शिक्षण घेतलें. उपरांत लयभास्कर खाप्रुजी पर्वतकार हाणें ताच्या घरा वचून ताका १४ वर्सांमेरेन तबल्याचें शिक्षण दिलें. फाकिवंत हार्मोनियम वाजोवपी मधुकर हाचेकडे ६ वर्सां ताणें पेटी वाजोवपाचें शिकप घेतलें. तो बरेपैकी परववाज वाजयता, मुरलीय बेस बरी वाजयता. आता मेरेन संगीत मळावयल्या व्हड व्हड दिग्गजांक ताणे साथसंगत केल्या. गंधर्व, काशीकरबुवा हांकां लेगीत साथ करपाचें भाग्य ताका लाबलां.

ल्हानपणासावन देवळांतलो चौघुडो, पंचवाद्यवादन, घांटीचो मंजुळ नाद, मृदंगाची थाप, भजन, कीर्तन, पालखे मुखावयले पेणे हें सगळे ताणे पळयल्लें, ताची श्रवण, ग्रहण, धारण आनी अनुकरणशक्त खापी आशिल्ल्यान हे सगळयाचे सस्कार ताचेर जाले आनी हातुंतल्यानच ताका संगीत, गायन, वादन, नर्तनाचें पिशें लागलें. फुडाराक शिक्षण घेतना चिंतन आनी मननाचेर ताणें चड भर दिलो. संगितामुखार ताणें कसलीच पर्वा केलीना, देखूनच ताची ही तपश्चर्या फळागतीक आयली आनी ताची कीर्त सगळयाक फाकली. आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर संगीत कलाकार वेंचपाचेंय काम ताणे केलें. धोलकेंवादन, शिमग्यांतले मेळ - खेळ, रोमट तळी, तालगडी, घोडेमोडणी तेंचपरी धालो, जागर, कालो, चंद्रावळ, दस्तक, जखणी हातूंत ताची जबर तयारी दिसून येता. घुमटाचेर ताची नितांत श्रध्दा. घुमटाचेर संशोधन करून ताणें 'खांब घुमटांच्या सावलीत' हें पुस्तक बरयलें. दी गोवा हिंदु ॲसोसिएशनान हें पुस्तक उजवाडायलां. ताका गोंय सरकारचो पुरस्कार लाबला. 'सुलभ स्वर परिचय' आनी 'चक्रपराध' हींय ताचीं दोन संगितावयलीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

१९८० वर्सा खैरागड युनिव्हर्सिटीन संगितांतली डॉक्टरेट पदवी दिवन ताचो भोवमान केला. मडगावचे स्वरमंच संगीत शाळेचें अध्यक्ष म्हूण ताणें वावर पळयला.

- कों. वि. सं. मं.

**सरदेसाय, यशवंत सूर्यराव (भाई) :** (जल्म : २४ डिसेंबर १८८८, विर्डी; मरण : ७ सप्टेंबर १९५३).

नामनेचो लेखक. विर्डी हांगा ताणें मराठीचें चार यत्ता मेरेन शिक्षण घेतलें. फुडें १८९९ वर्सा पुर्तुगेज शिक्षण घेवंक तो पणजे गेलो. थंय सेंगुद ग्राव आनी लिसेवाचें एक वर्स पुराय करून खासगी तरेन ताणें थोडें इंग्लिशीचेंय गिन्यान मेळयलें. पणजे ताणें डॉ. शिरगांवकाराच्या हाताखाल रावन भौशिक वावराचे पयले धडे घेतले.

१९१८ त तो मडगांवां आयलो आनी थंय स्थायिक जालो. थंय एके परदेशी विमा कंपनीची ताणें एजन्सी घेतली आनी तो विमा एजंट म्हूण काम करूंक लागलो.

भाईक मुळांतूच गोड वाणीची देण मेळिल्ली. म्हौंवाळ आनी गोड शब्दांनी लोकांचीं मनां जिखपाची कला ताका अवगत आशिल्ली. पूण वेळ पडल्यार तो जिबेक धार काडून विरोधकांक नाकापुरो करून सोडटालो. १९२८ वर्सा गोंयांत गावड्यांचें शुध्दिप्रकरण जालें. तातूंत मसूरकर महाराजाआड जाल्ले चळवळींत तशेंच अस्पृश्यता निवारण ह्या विशयाचेर भाईन जीं भाशणां दिल्लीं तातूंत ताच्या वक्तृत्वाचो खूब उपेग जालो.

महाराष्ट्र - गोमंतका मदलो संबंद वाडोवंक भाईन मोलादीक वावर केलो. सारस्वत ब्राह्मण समाजावतीन ज्यो वसुर्की व्याख्यानमाळो जाताल्यो तातूंत भाई वांटो घेतालो. १९१५ वर्सा ताणें गोंयांभायर पुण्याच्या गायकवाड वाड्यांत पयलें व्याख्यान दिलें.

तरणे पिरायेचेरच भाईन बरोवपाक सुरवात केली. सुरवेक 'भारत' ह्या गोंयच्या सातोळयांत ताणें बरोवपाक सुरवात केली. १९२४ वर्सा सावन 'हिंदू' पत्र उजवाडा येवंक लायलें आनी तातुंतल्यान भाईन जायत्या विशयांचेर आपले खाशेले शैलीन लेख आनी अग्रलेख बरोवंक सुरवात केली. ताचे आदीं मनोरंजन, नवयुग मासिक, विविधज्ञान विस्तार, चित्रमयजगत, महाराष्ट्र सारस्वत, विविधवृत्त, मासिकां आनी साप्ताहिकांतल्यान ताणें जायतीं वर्सां लिखाण केलें. पुस्तक रुपान ताणें जें लिखाण केलें तातूंत 'रूमेला जुमेला' नांवाच्या एके दीर्घकथेचो आस्पाव जाता. डॉ. शिरगांवकाराचेर एक ल्हानशें चरित्र्य ताणें बरयलें. तशेंच तुकाराम आनी नामदेव हांचीं लघुचरित्रांय बरयलीं. हाचेभायर चित्रपटाखातीर ताणें संत चोखामेळयाची कथा बरयली. हातूंत ताची म्हत्वाची पुस्तिका म्हळयार 'आळंदी ते पंढपूर'.

१९३८ च्या सुमाराक तो भक्तिमार्गांत रिगलो. त्या उपरांतची पिराय ताणें संत साहित्याचेर आनी चडकरून ज्ञानेश्वरीचेर प्रवचनां

दिवपांत सारलीं. १९४३ त मुंबयंत भरिल्ल्या दुसऱ्या गोमंतक साहित्य संमेलनाचो तो स्वागताध्यक्ष आशिल्लो.

१९३६ - ३७ ह्या काळांत तो सुरवेक गोंय सोडून पुण्याक गेलो आनी उपरांत मुंबय वचून थंय निमाणें मेरेन उरलो. वारकरी संप्रदाय आपणावन तो आषाढी कार्तीकेक ज्ञानेश्वराचे पालखेवांगडा आळंदी ते पंढरपूर अशी पांयांनी यात्रा करतालो. दर सोमाराक सारस्वत ब्राह्मण समाजांत सांजवेळचें ज्ञानेश्वरीचेर तो प्रवचन दितालो. असोच एक दीस सोमाराक प्रवचन सोंपोवन निमाणी प्रार्थना करून ज्ञानेश्वरी ग्रंथाचेर ताणें आपली तकली दवरली ती परती वयर काडलीच ना. थंयच ताका मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**सरदेसाय, लक्ष्मणराव :** (जल्म : १८ मार्च १९०४ सावय-वेरें; मरण : ५ फेब्रुवारी १९८६ पणजी).

पुराय नांव लक्ष्मणराव श्रीपाद सुर्यराव सरदेसाय. मुळावें शिकप सावय-वेऱ्यां, तशेंच आजोळा दुर्भाट - वाडी हांगा घरचें घराच जालें. वाडीच्या सरकारी शाळेंतल्यान प्रिमेरग्रांव पास जाल्या उपरांत फुडलें शिक्षण पणजे जालें. १९१८ त सेंगुदग्रावची परीक्षा उत्तीर्ण जावन खाजगी रितीन लिसेवाचो तीन वर्साचें शिक्षण घेतलें आनी ४थ्या वर्सासावन सरकारी लिसेंव लेत्रस कोर्स घेवन १९२५ त लिसेवाच्या ७व्या वर्साची परीक्षा उत्तीर्ण जालो. तेच वर्सा ताणें इश्तितुर कोमेर्सियालाचो डिप्लोमाय घेतलो.

फुडाराक ताणें शिक्षकी वेवसाय आपणायलो आनी बरो शिक्षक म्हणून नामना जोडली. गार्सिय द सिल्ह हो लिसेबाचो प्राचार्य ताका 'Profersor demaochei' अशें म्हण्टाले. पयले सुवातेर म्हापशां कुलॅजियु इंदियानु नांवाची लिसेवाची तीन वर्सांचें शिक्षण दिवपी खाजगी शिक्षण संस्था काडून ताणें ती तीन-चार वर्सां चलयली. उपरांत फोंडेच्या कुलॅजियु आल्मैदीचो मुखेली (संचालक) म्हणून काम पळयलें. थंय मुळावें मराठी आनी पुर्तुगेज तशेंच लिसेंवाचें तीन वर्सांचें शिक्षण दिवपाक ताणें सुरवात केली. १९३८ त ताणें हांगा विद्यार्थ्यांखातीर वसतीघरय सुरू केलें. पूण फुडें कांय मतभेद उप्राशिल्ल्यान ताणें मुखेलीपण सोडून दिवन मडगांवां इश्तित्यूत रेनासान्स ही लिसेंवाचें सात वर्सांचें शिक्षण दिवपी खाजगी संस्था सुरू केली आनी ती ५ वर्सां चलयली.

हें सगळें काम करताआसतना ताचें कथा-कादंबरी तशेंच स्फुटलेखनय चालूच आशिल्लें. फ्रेंच वाङ्मयाचो ताचो व्यासंगय ह्या वेळार चालूच आशिल्लो. पिरायेच्या १८ व्या वर्सां 'भारत' सातोळयांत 'सौमित्र' हे रोपण नांवान ताणें मराठींतल्यान स्फुट लेखनाक सुरवात केली. उपरांत 'हिंदू'तय ताणें बरयलें. गोंयच्या सुस्तेल्या समाजाक जागो करपाचे नदरेन ताणें गोंयच्या विंगड विंगड प्रस्नांचेर त्यावेळार बरोवप केलें. 'तेज' नांवाचें स्वतःचें पत्र सुरू करपाचो ताणें यत्नय केलो. फुडाराक दुधसागर, प्रकाश, केसरी, ऊ हेराल्द हेर मराठी - पुर्तुगेज नेमाळयांनी ताचें बरप उजवाडा येवंक लागलें. दक्षिण गोंयांतलें फुलाई प्रकरण उक्ताडार हाडपाखातीर ताणें 'फुलाई गावडे धर्मांतर प्रकरण' नांवाची पुस्तिका बरोवन मुंबयसावन उजवाडायली आनी हे खातीर ताका आठ दिसांची बंदखणय भोगची लागली. फुडाराक गोंयचे सुटकेखातीर ताणें राजकीय चळवळींत वांटो घेतलो. तो गोमंतक कॉंग्रेसचो वांगडी जालो. १८ जून १९४६ च्या नागरी स्वातंत्र्याचे चळवळींत तो वाटेकार जालो. मुंबयंत गोंय नॅशनल कॉंग्रेस संघटना स्थापनेखातीरय तो वावुरलो. १८ ऑक्टोबर १९४६ ह्या दिसा सत्याग्रह केल्ल्यान ताका रेईश मागूश बंदखणींत घालो. १९४७ - ४८ ह्या काळांत ताणें बऱ्याच बसकांचें अयोजन केलें. साकिर्व्हाळ दोडामार्ग हांगा सभा घेता आसतना ताका पुर्तुगेज पोलिसांनी अटक केली. प्रादेशिक लश्कर न्यायालयान ताका एका वर्साच्या बंदखणीची ख्यास्त दिवन आग्वादचे बंदखणींत घालो. १९४९ त लोंढा हांगा जाल्ल्या नॅशनल कॉंग्रेसच्या अधिवेशनातय तो वाटेकार जालो. मुंबय वचून सुमार १० वर्सां गोंयच्या स्वातंत्र्य आंदोलनाचें कार्य ताणें चालू दवरलें. तेखातीर ताणें थंय परिशदोय घेतल्यो. तो नॅशनल कॉंग्रेस गोंयचो १९५५ त सचिव जालो. गोवा पॉलिटिकल कॉन्फरन्साच्या मुंबयच्या एका अधिवेशनाचो तो येवकार अध्यक्ष आसलो. १९५९ न दिल्ली वचून दिल्ली आकाशवाणी केंद्राचेर कंत्राट पध्दतीचेर कोंकणी पुर्तुगेज भासो दर्यापार करपाच्या विभागाचो सुपरवायझर म्हणून ताणें काम केलें. ह्या काळांत गोंयच्या राजकारणाचो पुर्तुगेजांनी चलयल्ल्या अपप्रचारांक तोंड दिवपाचो ताणें सेगीत पांच वर्सां वावर केलो. उपरांत ताणें ती चाकरी सोडून दिवन तो गोंयांत परतलो. ताच्या राजकीय वावरांत ताचे वांगडा लक्ष्मीकांत भेंब्रे, डॉ. रामा हेगडे, डॉ. नारायण भेंब्रे हांचो ताका भोव आदार मेळ्ळो.

एके वटेन गोंयची मुक्ततायेची चळवळ, दुसरे वटेन समाज जागृताय आनी शिक्षणाचो वावर करता आसतनाच आपल्या ह्या सगळया वावरांक अस्त्र म्हूण ताणें लेखणी उबारली. १९२९ ते १९८३ मेरेन ताणें सातत्यान बरयलें, लागीं लागीं साडे चार तपांच्या काळांत ताणें शेंकड्यांनी कथा बरयल्यो. डझनभर कथा झेले उजवाडायले. मराठी लघुकथेक अदिक तंत्रबध्द केली. सैम - शृंगार म्होवाळ नटव्या भाशेन केळोवन आनी गोंयची जीण - जीवनदर्शन वाचप्यांमुखार माडून ताणें 'प्रादेशिक कथाकार' म्हणून नांव कमयलें. १९२९ त 'यशवंतात सासुरवासिनी' ही कथा बरोवन ताणें आपल्या कथालेखनाक सुरवात केली. 'यशवंत' कथा सर्तींत 'मोहिनी' हे ताचे कथेक दुसरी तस्त्रीप फावो जाली. फुडाराक महाराष्ट्रांतल्या मनोरंजन, रत्नाकर, ज्योत्स्ना, पारिजात, किर्लोस्कर ह्या नेमाळयांतल्यान कथा उजवाडाक हाडून त्या दर्जाचो कथाकार अशी ताणें नामना जोडली.

तेचप्रमाण उत्तान शृंगार, प्रेम प्रणय भावनेच्या चित्रणाक लागून सनातनी लोकांनी ताचेर टिकेचो भडीमार करून मोठो बोवाळ केलो. सागराच्या लाटा, ढासळलेला बुरूज, जगावेगळा, वादळातील नौका, निवारा, सोनेरी उन्हं, लक्ष्मणरेषा, बीजेची कोर, मोहर, मोडलेला माड, चांडाळ, कौमार्याचे बंध, मायेचा वारसा, पाझर, एक वेडा माणूस, तानी ह्यो ताच्यो कथा आनी हेच नांवाचे ताचे कथा झेले बरेच गाजले. 'मांडवी तू आटलीस' ही एक राजकीय स्वरुपाची कादंबरी आनी 'ब्राह्मण' (मूळ पुर्तुगेज कादंबरीचो अणकार) ही ताची दुसरी कादंबरी तेचप्रमाण ताचें गोव्याकडची माणसे (व्यक्तिचित्र) हें पुस्तकय बरेंच गाजलें.

फुडाराक आपले माय भाशेतल्यान कोंकणींतल्यान अभिव्यक्ती चड बरी जाता हें मतीन धरून ताणें बरींच उतरां कोंकणी बरोवपाक सुरवात केलीं आनी मराठी इतलेंच कसदार कोंकणी साहित्य निर्मिलें. 'पापडां कवळयो', 'रामग्याली वागा भोंवडी' (भुरग्यां कादंबरीका), कथाशिल्प (साहित्यसमीक्षा), 'खबरी कांय वर्माच्यो कांय कर्माच्यो' (ललितनिबंध) हीं ताचीं गाजिल्लीं पुस्तकां. ताच्या 'खबरी' ललितनिबंधाक ताका १९८२ ह्या वर्सा साहित्य अकादमीचो पुरस्कार लाबलो. गोंय कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कारय ताका फावो जाला. 'हेराल्ड ट्रिब्यूना'न संवसारांतल्या विंगड विंगड भासांतल्या कथा सर्तींनी ताका मराठीखातीरचें पयलें बक्षीस, ताच्या 'मोहोर' हे कथेक मेळ्ळें. १९६८ त विलेपार्ले गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनांत ताच्या 'लक्ष्मणरेषा' ह्या कथा झेल्याक भांगरापदक लाबलें. १९७७ त कुडचडे सावर्डे हांगा जाल्ल्या गो. म. सा. संमेलनाचें अध्यक्षपदय ताणें भुशयलें. १९८० त गोंय सरकाराचो साहित्यिक म्हणून राज्य पुरस्कारय ताणें जोडलो.

उपरोधिक, उपहासपूर्ण, नर्म - विनोदी शैलीन तशेंच सूचकतायेन ताणें गोंयची समाज जीण साहित्यांतल्यान चित्रायली. उत्तान शृंगार आनी प्रणय भावनेप्रमाण गंभीर वास्तवतायेन ताणें लोकांक अंतर्मुखय केलें. गोंय स्वातंत्र्य लडो लोकांमुखार जीवो उबो केलो. समाजजीण व्यक्तीजीणेवांगडाच स्वताचे जीणेची चिरफाडय ताणें केली आनी ती करतना समाजीक दंभाचेर, धोंगापोंगाचेर बोटय दवरलें.

- कों. वि. सं. मं.

## सरदेसाय, वामन बाळकृष्ण : (जल्म : २५ मे १९२३ वाडी - तळावली, फोंडें).

ताचें पुराय नांव वामन बाळकृष्ण प्रतापराव सरदेसाय. लायसियमचें ७ व्या वर्साचें शिकप करून, ताणें इश्कोल मेदिकाचें पयल्या वर्साचें शिक्षण घेतलें.

भुरगेपणासावन तो गोंय सुटकेखातीर वावुरलो. तरीय पूण तो स्वयंचेच एके संघटनेकडे बांदिल्लो नाशिल्लो. मुखेलपणान तो राश्ट्रीय प्रचाराचें काम करतालो. १९४७ त 'ज्वाला'चे अंक वांटूना तो सांपडलो. ताच्या ह्या कामाकलागून, तशेंच भूमीगत कार्याक लागून ताका अटक करून प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो केलो. तेन्ना ताका सात म्हयन्यांची ख्यास्त फर्मायली आनी ताचे सगळे राजकीय हक्क काडून घेतले.

उपरांत तो फोंडेंच्या आल्मैदा कॉलेजींत शिकोवपी म्हणून वावुरलो. थंय ताणें राश्ट्रीय चळवळी संबंदीत कार्य केलें. ताचे उपरांत तो वर्धा गेलो. थंयच्यान नागपूराक पावलो आनी थंय तो गोंय मुक्तताय चळवळींत वांटो घेवपाखातीर लोकांक तयार करूंक वावुरलो.

१९५५ त प्रो. फ्रान्सिस्को कुर्रय आंफोसु हाच्या फुडारपणाखाला आकाशवाणीचेर राश्ट्रीय कोंकणी आनी पुर्तुगेज कार्यावळींखातीर ताणें काम केलें. हेचवेळार निकलाव मिनेझिस आनी लिबिया लोबो (उपरांत ती ताची घरकान्न जाली). हिचे वांगडा गोंयचे शिमेचेर १९५५ ते १९६१ मेरेन भूमीगत रेडिओ केंद्र (व्हॉयस ऑफ फ्रिडम) चलयले. ऑक्टोबर १९६१ तच पुर्तुगेजांचे वसणुकेंतल्या प्रतिनिधींची आंतरराष्ट्रीय परिशद दिल्ली हांगा जाली. ते परिशदेंतय तो वांटेकार जालो. 'ऑपरेशन विजया'च्या वेळार लोकांक वांटपाक छापिल्ल्यो जायराती तयार करपाक ताणें व्हड आदार दिलो. तशेंच लश्करी कारवायेच्या वेळार पुर्तुगेजांनी बळजबरीन घेतिल्ल्या म्हत्वाच्या पुतुर्गेज कागदपत्रांचें इंग्लिशींत भाशांतर करपाचेंय ताणें काम केलें.

डॉ. दत्ताराम सुखठणकार, दिवाकर काकोडकार, जनार्दन शिंक्रे, इव्हाग्रियु जॉर्ज, बाबला सिंगबाळ, नरसिंह सुखठणकार, प्रसाद सुखठणकार हे तांचे चळवळींतले वांगडी. गोंय मुक्तताये उपरांत ताणें सरकारी नोकरी केली. आंगोल हांगा राजदूत म्हणूनय ताणें काम केलें. निवृत्ती काळांत 'गोवा टुडे'चो संपादक, तशेंच सुनापरांत दिसाळयाचो प्रकाशक म्हणून तो वावुरलो.

मुळांत तो कवी. गोंय मुक्ततायेचे चळवळीवेळार ताणें भोवच सुंदर कविता 'अभिजित' हें नांव घेवन रचल्यात. ताचो सगळेतरेचो वावर मतींत घेवन भारत सरकारान ताका 'पदमश्री' भेटोवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## सरदेसाय, विजयराव बाबासाहेब राणे : (जल्म : १२ सप्टेंबर १९३७, वडवाल दिवचल).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेन मराठींतल्यान शिक्षण घेतलें. गोवा लिबरेशन आर्मीचो तो वांगडी आशिल्लो. तो चडशा भूंयगत क्रांतीकारी वावरांनी वांटो घेतालो. शिरगांव मीनाखणीचेर धाड घाल्ल्या आरोपाखाल पोलिसांनी ताका ३१ मार्च १९५७ दिसा अटक केली. ताका बरोच मार घालून दोन म्हयने पणजे पोलिस

ठाण्याचेर दवरलो. थंयच्यान आग्वाद बंदखणींत व्हरचे आदींच ११ जानेवारी १९५८ ह्या दिसा तो बंदखणींतल्यान पळून गेलो. १५ जानेवारी दिसा ताणें दोडामार्ग शीम हुंपली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सरदेसाय, शंकर पांडुरंग नायक प्रतापराव :** (जल्मः ८ जुलय १९१९, वाडी दुर्भाट - फोंडा; मरण : १५ एप्रिल १९८१).

सुटकेझुजारी. इश्कोला नॉर्मलची सनद ताणें घेतिल्ली. १९५३ सावन तो नॅशनल काँग्रेस गोवा संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. बसकांनी वांटो घेवप, त्यो आयोजित करप, तातूंत उलोवप आनीक लोकांमदीं सुटकेझुजाविशीं जागृताय हाडप हीं कामां तो करतालो. २९ जून १९५४ ह्या दिसा सांग्यार ताका अटक केलो. प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून २९ जुलय १९५५ दिसा आठ वर्सांखातीर ताका खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. दिसाक २० इश्कूद ह्याप्रमाण दोन वर्सांखातीर दंड भरूंक लायलो. तशेंच १५ वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. ताका आग्वाद बंदखणींत दवरिल्लो. १९ मे १९५९ दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. सुटके उपरांत तो परत राजकीय वावर करूंक लागलो.

१९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सरदेसाय, शांबाराव कृष्णाजी सूर्यराव :** (जल्म : १८८२, सावयवेरें - गोंय; मरण : १९६७, सावयवेरें - गोंय).

नामनेचो लेखक. ताचें मुळावें मराठी शिक्षण घरचेघराच जालें. फुडें पुर्तुगेज मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण ताणें म्हापशां वचून पुराय केलें. फुडलीं लिसेंवाचीं तीन ते पांच वर्सां ताणें पणजे पुराय केलीं. सावयवेऱ्या आसतना ल्हानपणासावनूच ताका 'बालबोध' ह्या मासिकान वाचपाची आवड निर्माण जाल्ली. म्हापशां वतकच ताका बरीं बरीं पुस्तकां वाचूंक मेळ्ळीं. त्याच वेळार म्हापशांत रामचंद्र दत्तात्रय कुळकर्णी, काका दणायत, कृष्णाजी सांखोळकर, श्रीराम गणेश आजरेकर, लेपोल्दु द गामा हांणी मेळून गोवा पंच नांवाचें सातोळें काडिल्लें. गोवा पंच ह्या नांवावयल्यान तें चलयतल्या लोकांक पंच मंडळी म्हण्टाले. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा शांबारावाचो ह्या मंडळीकडे संबंद आयलो. पंच मंडळींत आस्पाव जातकच शांबारावाक विचारप्रर्वतक अशें साहित्य वाचूंक मेळ्ळें. गोवा पंच हातूंत आसतना ताणें जायतें वैचारीक साहित्य बरयलें. पूण शांबाराव सुमार एक वर्सभरच तातूंत उरलो. मागीर 'पंच' बंद पडलें. फुडें १९०१ वर्सा गोंयांत 'सत्संग' हें मराठी नेमाळें सुरू जालें. १९०६ वर्सा दत्ताराम जगन्नाथ बोरकार हाच्या सत्संगांतल्या एका लेखाक जाप म्हूण शांबारावान 'शेख महंमदाचा अनुयायी' हो लेख सत्संगांत बरयलो आनी तेन्नासावन लेखक म्हूण शांबारावाचो सत्संगाकडे संबंद आयलो. मदल्या काळांत शांबारावाचो 'गोवा हिंदू क्लब' हे संस्थेकडे कांय तेंप संबंद आयिल्लो. पणजेचें सरस्वती वाचनमंदिर हातुंतय ताणें कांय तेंप काम केलें.

फुडें डॉ. शिरगांवकर हाणें सुरू केल्ल्या 'प्रभात' ह्या सातोळ्यांत ताचो सहकारी म्हूण ताणें कांय तेंप काम केलें. पूण थंय तो चड वेळ तिगलो ना. फुडें ताणें आनी हेगडे देसाई हाणें मेळून 'भारत' हें नवें सातोळें सुरू केलें. हातूंत ताणें भरपूर लिखाण केलें. उपरांत कांय वर्सांनी आयिल्ल्या 'कला' मासिकांत आनी दैनिक गोमन्तकांत पिरायेच्या निमाणे मेरेन ताणें जायतें वैचारीक लिखाण केलें.

ह्याच काळांत 'गडबडरावांची बडबड' ह्या नांवाखाल हातीपत्रिका छापून तेवरवीं निंदात्मक, मर्मभेदक पूण विनोदी लिखाण लोकांमुखार मांडपाचो एक कंपू निर्माण जाल्लो. शांबारावान १९१२ च्या सुमाराक एकी बेकी चळवळीच्या निमतान दोन ल्हान पुस्तिका आनी हातबरपां उजवाडावन मुद्देसूद टीका प्रतिटीकांचें नवें पर्व सुरू केलें आनी गडबडरावाक विदायक टीकेचो आदर्श घालून दिलो. उपरांतच्या काळांत अशेतरेन वेगवेगळ्या निमतान शांबारावान पुस्तिका - पत्रिका बरयल्यो. हिंदुधर्माचेर घेवपांत येवपी आक्षेपांचें खंडन करपी 'ठिणग्यो' ह्यो मराठींत आनी Faiscas ह्यो पुर्तुगेजींत ताणें बरयल्यो. 'मिशनऱ्यांची मुलाखत', 'आपला धर्म' ह्योय ताच्यो उल्लेख करपासारक्यो पुस्तिका.

१९३० वर्सा जाल्ल्या मराठी साहित्य संमेलनाचो तशेंच गोमंतक साहित्य संमेलनाच्या पयल्या अधिवेशनाचो तो स्वागताध्यक्ष जालो.

ताच्या लिखाणाचो कल वैचारीक आशिल्लोच तेभायर ह्या काळांतल्या गोंयांतल्या हेर लेखकांवरी समाजसुदारणेची आनी शिक्षण प्रचाराची ताची प्रवृत्ती आशिल्ली. त्या काळांतल्या हिंदू गोमंतकीयांवरीच शांबारावानय मातृभाशेंतल्यान शिक्षणाचेर भर दिल्लो.

सरकारी जमीन मेजणी खात्यांत तो अधिकारी आशिल्लो. १९४१ वर्सा तो सेवानिवृत्त जालो. शांबारावाची प्रकृती विचारप्रधान आशिल्ली. विचारांवरवीं आनी शब्दांच्या आदारान समाजाक सुदारूंक जाय अशी ताची धारणा आशिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**सरस्वती - (१) :** एक पुर्विल्ली न्हंय. वैदिक आर्यांनी सप्तसिंधू वाठारांत म्हळयार पंजाबांत वसणूक केल्ली तेन्ना त्या वाठारांतल्यान व्हांवपी न्हंयांतली ही एक म्हत्वाची न्हंय. ऋग्वेदांत ६. ६१, ७.९५ आनी ७.९६ हीं तीन सरस्वती सुक्तां आसून हेर कांय सुक्तांतय

सरस्वती न्हंयेचो उल्लेख आयिल्लो आसा.

वेद काळांत सिंधू, सरस्वती आनी शरयू हांची गणना महान्हंयेंत केल्ली. तातुंतली सरस्वती ही सर्वश्रेश्ठ न्हंय मानिल्ली आसून ऋग्वेदांतल्या एका सुक्तांत तिचें वर्णन केलां तें अशें : गजराजान कमळ हुमटुचें तशें आपल्या प्रबळ प्रवाहान आनी प्रचंड लाटांनी ती पर्वताचें कडें हुमटिता. तिचें बळगें खूब आसून ती अजिंक्य आसा. ही तेजीश्ट उदकाधारांनी खळखळ आवाज करीत वचपी न्हंय आमच्या सगळ्या दुस्मानांक व्यापून उडोवं.

त्याच सूक्तांत तिका सप्त न्हंयांची भयण, पंचजनाचो उत्कर्श करपी, रथावरी वेगवान, धनदात्री अशे तरेन सर्वश्रेश्ठ मानल्या. ऋग्वेदांतल्या सिंधूसुक्तांत यमुना, शुतुद्री, पुरूष्णी, असिक्नी, वितस्ता आदी न्हयांवांगडा सरस्वतीचो उल्लेख आयिल्लो आसा. हिचे देगेर वैदिक ऋषींनी जायते यज्ञ केल्ले. सरस्वतीसुक्तांत सरस्वान देवाचो उल्लेख मेळटा. ज्या दर्याक सरस्वती न्हंय मेळटा, ताका सरस्वान हें नांव आसुंये आनी हो दर्या सप्तसिंधू वाठाराचे दक्षिणेक पातळिल्लो आसुंये.

वेदोत्तर काळांत सरस्वती न्हंय कुरूक्षेत्रांत एका जाग्यार गुप्त जाली. ह्या थळाक विनशन म्हण्टात. हाचो उल्लेख ब्राह्मण ग्रंथांत मेळटा. हिमालयांत प्लक्षप्रस्त्रवण नांवाचे सुवातेर हे न्हंयेचो उगम जालो अशें महाभारतांत सांगलां. ही सुवात विनशनाचे उत्तरेक आसा. ह्या दोन सुवातींमदली सरस्वती देगेवयली भूंय सारस्वत ही सत्र करपाक सामकी योग्य अशें तांड्य ब्राह्मणांत म्हळां.

महाभारतांत विनशन आनी चमसोदभेद ह्या दोन तीर्थांचो उल्लेख मेळटा. विवशन हे सुवातेर सरस्वती न्हंय जमनींत लिपल्या आनी चमसोद् भेद हे सुवातेर ती परत प्रकट जाल्या आनी थंय तिका जायत्यो न्हंयो मेळळयात अशें म्हळां.

सरस्वतीचो स्त्रोत : प्रवाह अस्तंत दिकेकडे वता. तिचो सुरवेचो आनी निमाणो भाग लोकांक दिसता. मदलो भाग मात जमनींतल्यान गुपीतपणान व्हांवता. तो कोणाकच दिसना, ताका विनशन अशें म्हण्टात. सरस्वती न्हंय हिमालयांत उगम पावलीं; कुरूयक्षेत्रांतल्यान व्हांवत वचून राजस्थानाच्या वाळवंटांत लुप्त जाली, ती अबू पर्वतांतल्यान प्रकट जावन कच्छच्या रणांत परत लुप्त जाली. सौराष्ट्रांत ती परत प्रकट जावन निमाणी प्रभासतीर्थालागसार दर्याक मेळ्ळी, अशें पुराणांत तिचें वर्णन केल्लें आसा.

सद्या पंजाबांतल्यान व्हांवपी सरसुती न्हंय हीच पुर्विल्ली सरस्वती मानप जाता. ही न्हंय हिमालयाच्या शिवालिक पर्वतावळिंतल्या सिरमूर पर्वतांत उगम पावन अंबाला जिल्ह्यांत आद बद्री हांगा पठारावयल्यान व्हावंक लागता. ती छलोर नांवाच्या गांवालागसार रेवेंत लुप्त जावन भवानीपुराकडे प्रकट जाता. बलछप्पर हांगा ती परत लुप्त जावन बरखेडालागसार परत प्रकट जाता. उणइलागसार तिका मार्कंडा न्हंय मेळटा आनी मागीर ती धग्गर न्हंयेक मेळटा. धग्गर न्हंयेक पुर्विल्ल्या काळांत शरयू हें नांव आशिल्लें अशी ही सरस्वती तेउपरांत कुरूक्षेत्रांतल्या विनशन म्हळयार राजस्थानांतल्या हनुमानगडा लागसारच्या भटनेर गांवाकडे वाळवंटांत लुप्त जाता.

सरस्वती न्हंय विनशन हांगा कित्याक गुप्त जाली हेविशी वेगवेगळयो कथा वेगवेगळया पुराणांत सांगल्यात. तातुंतली पद्मपुराणांत सांगल्या ती कथा अशी - वडवानल सगळया देवांक ग्रासूंक लागलो तेन्ना ब्रह्मदेवान आपली धूव सरस्वतीदेवी हिका दर्यांत ताचें विसर्जन करपाक सांगलें. तिणें एका कलशांत वडवानल घालून ती न्हंयेच्या रूपांत हिमालयाचेर अवतरली. रस्त्यावयल्या पापी जनांचो स्पर्श जांव नये देखून ती विनशन हांगा भूगर्भांत रिगली. जंय वडवानलाचो ताप सहन जायनाशिल्लो थंय ती भूंयेचेर अवतिर्ण जाताली. निमाणें तिणें अस्तंत दर्यांत प्रभास क्षेत्रार वडवानलाचें विसर्जन केलें.

महाभारतात सरस्वती आनी दृषद्वती ह्या न्हंयांमदल्या वाठाराक कुरूक्षेत्र म्हळां. त्याच वाठाराक मनून ब्रह्मावर्त हें नांव दिल्लें आसा. सरस्वती ही कुरूक्षेत्राची उत्तरेकडली शीम कुरूक्षेत्रांत विनशन हांगा गुप्त जाल्ली सरस्वती न्हंय चमसोदभेद, शिवोद्‌भेद आनी नागोद्‌भेद ह्या तीनकडे परत प्रकट जाल्या अशें महाभारतांत म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**सरस्वती - (२) :** विद्या आनी कला हांची देवता. हिका वाक्, वाग्देवी, वागीश्वरी, वाणी, शारदा, भारती आनी वीणापाणी अशींय हेर नांवां आसात. सरस्वती शब्दाचो अर्थ गतीमान असो आसा. आध्यात्मिक अर्थान ती निश्क्रीय ब्रह्माचें सक्रिय रूप आसा, देखून तिका ब्रह्मा-विष्णु - महेश हांकां गती दिवपी शक्ती अशें म्हण्टात. ऋग्वेदांत तिका न्हंयेचें मानवी रूप मानलां. उपनिषदांत सरस्वतीची वाचेकडे (वाणी) एकरूपता मानिल्ली आसा. शिक्षणाचे वृध्दीखातीर आनी वाचेंत गोडवो येवपाखातीर उपनिषदांत तिची प्रार्थना केल्ली दिश्टी पडटा.



सरस्वती ही मुळांत पंजाबांतली न्हंय. तिच्या प्रवाहाची स्पश्ट वाचेकडे तुळा केल्ली आसा. थंयच्यानच सरस्वतीक वाचेची स्फुर्तीदेवता आनी विज्ञान तशेंच साहित्य हांची अधिश्ठात्री देवता मानिल्ली आसा.

पुराणांत कांयकडे तिका ब्रह्मदेवाची बायल जाल्यार कांयकडे ताची धूव अशें म्हळां. कांयकडेन तिका विष्णुची बायल म्हणिल्ली आसून, थंय तिचें नांव पुश्टी अशें आसा.

विष्णुधर्मोत्तर पुराण, अंशुमद्, भेदागम, पूर्ण कारणागम, रूपमंडन आदी ग्रंथांत तिचें स्वतंत्रपणान वर्णन केल्लें आसा तें अशें - सरस्वती ही धव्या वर्णाची, धवें वस्त्र धारण केल्ली, अलंकार विभूषित, चतुर्भुज, धवें कमळ, माळ, वीणा आनी कमंडलू धारण करपी आसा. पुस्तक आनी वीणा हीं तिचीं मुखेल चिन्नां आसात. तिचो ध्यानश्लोक असो -

या कुन्देन्दुतुषारहार धवला या शुभ्रवस्त्रावृता
या वीणावरदण्डमण्टितकरा या श्वेतपद्मासना
या ब्रह्माच्युतशङ् करप्रभृतिभिर्देवै : सदा वन्दिता
सा मां पातु सरस्वती भगवती निःशेषजाड्यापहा ।।

**अर्थ :** कुंद, चंद्र आनी हिमतुषार हाचेवरी जिचो वर्ण आसा, जी धव्या वस्त्रांनी आवृत आसा, जिचो हात सुंदर वीणेन अलंकृत आसा, जी धव्या कमळार बशिल्ली आसा, जिची ब्रह्मा - विष्णु - महेश आदी देव सदांच वंदना करतात आनी जी सगळ्या प्रकारच्या जडतेचो नाश करपी आसा अशी सरस्वती देवी म्हजी राखण करूं.

बृहदारण्यकांत तिका धेनू म्हळया. तिचीं चार भुजां हीं चार दिकांचीं प्रतिकां आसात. हें तिचें सर्वव्यापित्वाचें लक्षण आसा. तिच्या हातांतलें पुस्तक हें स्थूल रूपान ज्ञानप्राप्तीचें साधन आसून आध्यात्मिक अर्थान सगळया ज्ञानमय अशा वेदांचें प्रतिक आसा. तिच्या हातांतली माळा म्हळयार स्थूल अर्थान एकाग्रतेचें चिन्न आसून आध्यात्मिक अर्थान मातृकावर्णशक्ती आसा. वीणा ही स्थूल अर्थान जीवनसंगिताचें प्रतिक आनी आध्यात्मिक अर्थान साधकांक सिध्दी आनी निर्वाण दिवपी आसा.

धवो हंस हें सरस्वतीचें वाहन आसा. बौध्द आनी जैन परंपरेंत मयूर हें तिचें वाहन आसा. हिंदू, बौध्द आनी जैन ह्या सगळया धर्मांक सरस्वती ही पूण्य आसा. बौध्दांनी तिचे पांच वेगवेगळे प्रकार कल्पिल्ले आसात -

१) महासरस्वती : द्वादशवर्षा, हिमगौर, द्विभुज, उजवो हात अभयमुद्रेंत आनी दाव्या हातांत कमळ.

२) वज्रवीणा सरस्वती : गौर द्विभुज आनी वीणा वादिनी.

३) वज्रशारदा : कमळांत बशिल्ली, मुकुटांत चद्रकोर, तीन दोळे, द्विभुज, कमळ आनी पुस्तक धारण करपी.

४) आर्यसरस्वती : चतुर्दशवर्षा, गोरी, दाव्या हातांत कमलनाल आनी ताचेर पज्ञापारमितेची पोथी.

५) वज्र सरस्वती : त्रिमुख, षडमुज, रक्तवर्ण, रक्तकेशी, मुखावयलें तोंड निळें, रक्तकमळाचेर प्रत्यालीद मुद्रेंत बशिल्ली. हातांत कमळ आनी ताचेर प्रज्ञापारमितेची पोथी, दाव्या हातांत तलवार आनी कातर, उजव्या हातांत ब्रह्मकपाल रत्न आनी चक्र.

उत्तर भारतांतल्यो सरस्वतीच्यो मूर्ती सामान्यपणान द्विभुज वा चतुर्भुज आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**सरोद :** एक तंतूवाद्य. हाका सराबत वा शारदी वीणा अशीय नांवां आसात.

एका व्हडल्या लाकडाच्या कुडक्यापसून हें वाद्य कोंत्रायल्लें आसून ताची लांबाय ३ ते ४ फूट आसता. ह्या वाद्याचो सकयलो कांय भाग वाटकुळो सुमार एक फूट व्यासाचो आसून तो चामड्यान मढयल्लो आसता. हो वाटकुळो भाग फुडें फुडें बारीक जावन मुखावयल्या गळयाक जोडील्लो आसता. ह्या वाद्याक चिकारीसयत स धातूच्यो तारो आसून, त्यो सकयल्ल्या भागांत बसयल्ल्या घोडीवयल्यान घेवन वयल्या तोंकाक दोनय वटेन आशिल्ल्या तीन तीन खुटयांक बांदिल्ल्यो आसतात. वयल्या बारीक पोकळ आशिल्ल्या लांकडी भागाचेर पितूळचो वा चांदीचो पातळ वा गुळगुळीत पत्रो बसयल्लो आसता. ताका लागून बोटांची सकलवयर हालचाल करप सोंपी जाता. अनुध्वनीखातीर ११ - १२ तारो आसतात. उजव्या हातांतल्या जव्यान तार छेडून दाव्या हाताच्या बोटांनी दामून स्वर वाजयतात.



सरोद

ह्या वाद्याच्या कर्नाटकी प्रकारांत वयल्या पत्र्याचेर सात पड्डे आसतात. सकयले वटेन आशिल्ल्या कातड्याच्या वाटकुळया भागांत वयले देगेक लागून दोन व्हड बुराक आसतात. ताका लागून आवाज मेकळो जावपाक आदार जाता. ह्या वाद्याचेर आलाप, जोड, झाला आनी मींड बरे तरेन वाजोवंक येता. मंद्र सप्तकांत सरोदचो आवाज भरदार आनी गंभीर आसता. पुर्विल्ल्या भारतीय शिल्पांत गिटारासारखें जें वाद्य दिसता, तें सरोदचें पूर्वरूप आसुंये. ह्या वाद्याचो प्रसार खाँ साहेब असदुल्लाखान हाणें शंभर वर्सांपयलीं बंगालांत केलो आनी आयजय थंय ताचो प्रचार दिसता. हें वाद्य साथी वाद्य म्हणून वापरतात आसलें तरी ताची स्वतंत्र वादनाचें वाद्य म्हणून चड नामना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सर्वोदय :** सर्वोदय म्हणजे सगळयांचो उदय. धर्म, जात, आस्पत, बळगें, बुद्द ह्यो कसवटी लायनासतना जाल्लो मनशाचो विकास.

रस्कीनच्या "ऑन टू दीस लास्ट" ह्या पुस्तकाच्या गुजराती भाशेंतल्या अनुवादाक महात्मा गांधीन सर्वोदय हें नांव दिवन सर्वोदय तत्त्वाचो उल्लेख केलो. उपरांत १९४८ त विनोबा भावे हाणें नैतिक, आर्थिक, सामाजिक आनी राजकीय मळार समता तशेंच आर्थिक आनी शासकीय मळाचें विकेंद्रीकरण ही मोख दवरून सर्वोदय समाज स्थापित केलो. सहकार, अपक्षलोकशाय, सत्तेचें विकेंद्रीकरण आनी ग्रामविकास हे सर्वोदय तत्त्वाचे मुखेल घटक आसात.

दर एका गावचें गणराज्य करून, गांवचो कारभार, गांवच्याच लोकांनी एकमतान चलोवचो आनी शेताक पूरक अशे ग्रमोद्योग उभारून गाव स्वावलंबी जावचो हो उद्देश सत्तेच्या विकेंद्रीकरणा फाटल्यान आसा.

ग्राम राज्य प्रांतिक सत्ता राश्ट्रीय सत्ता, आंतरराश्ट्रीय सत्ता अशो आपापलेपरीन स्वतंत्र आनी स्वावलंबी सत्ता निर्माण करून सगळया सत्ता घटकांक एका थरार हाडप आनी ते वरवीं सामाजिक, आर्थिक राजकीय परीस्थितीत बदल घडोवन समतेचें अधिश्ठान आशिल्लो आदर्श मानवी समाज निर्माण करप ही संकल्पना सर्वोदया फाटल्यान आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सश्ट :** एक तीथ. चंद्राचे कलेक तीथ म्हण्टात. सश्ट हें एके तिथीचें नांव "षट्" ह्या संस्कृत उतराचो अर्थ स असो जाता. सश्ट ही पाडव्या पासून सवी तीथ. पाडवो, बी, तय, चवथ, पंचम, सश्ट, सप्तम, अश्टम, नम, दसम, एकादस, दुवादस, त्रयोदस, चतुर्दस, पुनव आनी उमास अशीं तिथींचीं सोळा नांवां आसात. म्हयन्याचे पयले पंद्रशेंत चर्तुदशी उपरांत पुनव आनी दुसरे पंद्रशेंत चतुर्दशी उपरांत उमास अशो तिथी येतात.

चंद्र आनी सूर्य हांच्या संक्रमणाचेर हिंदू कालगणना बांदल्या. चंद्रमासाप्रमाणा शुक्ल पक्षांतल्या पाडव्यापसून चंद्राच्यो कला वाडपाक लागतात. त्यो पुनवेक पूर्ण जातात आनी कृष्ण पक्षांत त्यो देवत वचून उमाशेक चंद्राच्यो कला सोंपतात आनी वांगडा म्हयनोय सोंपता. ताकालागून हेर तिथिंवांगडा सश्ट तीथ म्हयन्यांतल्यान दोनदां येता.

इंग्लीश पद्धतींत तारीख, म्हयनो आनी इसवीसन हांकां जितलें म्हत्व आसा तितलेंच हिंदू धार्मिक पद्धतींत वर्सांचें नांव, शक, म्हयनो, पक्ष (पंद्रस) तीथ आनी वार हांकां म्हत्व आसा. सदांचे देवपूजेंत देशकालाचो उच्चार करताना त्या त्या दिसाचो उच्चार करचो पडटा.

धर्मशास्त्रांत दर एके तिथीचेर व्रतां, परबो आदारिल्ल्यो दिसतात. तेप्रमाण वर्सांतल्या मार्गशीर्ष म्हयन्याच्या शुक्ल पक्षांतल्या सश्टीक कपिला सश्टीचें व्रत सांगलां. महाराष्ट्रांतल्या मार्तंड भैरव (मल्लारी)खंडोबा नांवांच्या देवाचें (षड्‌रात्रोत्सव) स रातींचो उत्सव सुरू जाता आनी तो चंपा सश्टी दिसा सोंपता. त्या दिसा स्कंद सश्ट येता.

गोंयांत चंपासश्टी दिसा कल्लसश्टी मनोवपाचो खूब पोरनो विधी आजून कांयकडेन पाळटात. पावस सोंपलो म्हण्टकच कुळागरांतल्या झाडांक अडेचें उदक दिवपाचो वावर सुरू जाता. माडयांक उदक दिवपाखातीर 'कल्लें' नांवाचें आयदन वापरतात. मार्गशीर्ष शुक्ल सश्ट जांव बऱ्या म्हुर्तार कुळागराक उदक दिवप सुरू केलें जाल्यार बरें पीक मेळटलें हे भावनेन कामाक सुरवात करपाची प्रथा आसा. कल्लें वापरुन ही शिंपणावळ करता जाल्ल्यान म्हुर्ताचे तिथीक कल्ल सश्ट हें नांव पडलां.

सश्टी वांगडा आनीकय कांय व्रतां येतात. तातूंत सुपोदन - वर्ण - श्रीयाळ सश्ट येता. तशेंच सूर्यसश्ट (भाद्रपद शु. ६), बांगर सश्ट (पौष शु. ६) आनी एकनाथसश्ट (फाल्गून व. ६) हांचो आस्पाव जाता.

- अच्युत तोटेकार

**साईबाबा :** (इ. स. चो १९ वो आनी २० वो शेंकडो).

आधुनिक काळांतलो एक संत. ताचें नांव, गांव, जात - धर्म ह्यो सगळयोच गजाली अज्ञात आसात. नगर जिल्ह्यांतल्या शिर्डी गांवांत तो प्रगटलो. तेन्नाच्यान ताच्या निर्वाणामेरेनचें चरित्रय जायत्या अजापांनी आनी दंतकथांनी भरिल्लें आसा.

साईबाबान जेन्ना शिर्डींत प्रवेश केलो तेन्ना ताचें नांव कोणाकच खबर नाशिल्लें. हातांत एक पत्र्याचें टमरेल, खांदाक एक कपड्याची झोळी, आंगांत कफनीभशेन सदळ अंगरखो, तकलेक फकिराभशेन कपडो बांदिल्लो, अशा भेसांत तो शिर्डींत आयिल्लो. शिर्डी गांवाभायल्या खंडोबाच्या देवळालागीं जेन्ना तो येवन रावलो तेन्ना मुसलमान समजून लोकांनी ताका देवळांत वचपाक दिलें ना. ताकालागून तो देवळाभायल्या वडाच्या रुखासकयल चिलीम वोडीत बसलो. इतल्यांत त्या देवळाचो मालक म्हाळसापती सोनार थंय आयलो आनी ताणें त्या फकिराक 'साईबाबा' म्हण उलो मारलो. तेन्नाच्यान सगळे लोक ताका साईबाबा ह्याच नांवान वळखुपाक लागले.



म्हाळसापतीन साईबाबाक शिर्डीत हाडून ताची रावपाची वेवस्था केली. जिविताच्या अरवेरमेरेन साईबाबा थंयच रावलो. साईबाबा थंय रावल्याउपरांत रोखडोच जाण्टया तशेंच भुरग्यांक ताच्या आगळया - वेगळया सामर्थ्याचो अणभव आयलो आनी ते ताची भक्ती करपाक लागले.

साईबाबाच्या फकिरीपणाक लागून ताका सामान्यपणान दत्तात्रेयाचो अवतार समजताले. पूण ताणें मात कोणाकच दत्तोपासना सांगूंक ना. तो रामोपासक आशिल्लो. प्रसंगाप्रमाण तो कोणाकय शंकराची तर कोणाक हनुमंताची, जाल्यार कोणाक रामाची भक्ती करपाचो उपदेश करतालो. जायतीं अजापां करून लोकांचें लक्ष देवाचे भक्तीक लावपाचे तो यत्न करतालो. भक्तीमार्गावांगडाच ताचे संबंद देवी सामर्थ्याच्योय कथा सांगप जाता. एक दीस दुकानदारान पण्टेंत घालपाक तेल दिवंक ना म्हण ताणें फकत उदकच घालून पण्टी पेटयली आनी लोकांक अजापांत उडयले. तशेंच जायते जाणांचीं शारिरीक दुखणींय ना केलीं. कांय जाणांच्यो पिशाचबाधा काडल्यो तर खूब जाणांक धन - धान्य मेळोवन दिलें.

साईबाबा ज्या जाग्यार रावतालो त्या जाग्याक तो द्वारकामाई अशें म्हण्टालो. थंय सदांच एक धुंवरी पेटिल्ली आसताली. ते धुंवरेंतली बिबूत तो लोकांक प्रसाद म्हणून दितालो.

साईबाबा गांवांत भीक मागून पोट भरतालो. सुणीं, गाढवां, बेवारशी जनावरां, अनाथ - अपंग, पिडेस्त लोक ह्या सगळयांचेर तो माया करतालो.

साईबाबान जायत्या जाणांक आपले मायेन, वा केन्नाय भय घालून, केन्नाय बरेपणान समजावन, जाल्यार केन्ना - केन्नाय फकत हाताच्या स्पर्शान जायत्या जाणाक परमार्थाक लायले. सगळयांकडेन समभावान पळोवंचें आनी नीतीन वागचें अशी ताची शिकवण आशिल्ली.

वऱ्हाडचे दादासाहेब खापर्डे, संतकवी दासगणू, साकोरीचे उपासनी बाबा ही सगळी साईबाबाची शिश्यमंडळी.

१५ ऑक्टोबर १९१८ ह्या दिसा साईबाबा शिर्डीक निजधामाक गेलो. ताच्या निर्याणाउपरांत शिर्डीकच ताचें व्हडलें समाधी देवूळ बांदलां. ताचीं चरित्रां छापून काडल्यांत आनी ताच्या जिवीताचेर चित्रपटय काडल्या. थंय यात्रा करप्यांची, रावपाची आनी जेवणाची वेवस्था केल्ली आसा. सद्याक तें भारतांतलें एक पूण्यक्षेत्र जालां. तशेंच महाराष्ट्र आनी गोंय राज्यांनी साईबाबाचीं जायतीं ल्हान व्हड देवळां बांदल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**साउदी अरेबिया :** अरबी द्वीपकल्पांतलो एक सगळयांत व्हडलो आनी संवसारांतलो खनिज तेलाचें सगळयांत चड उत्पादन करपी देश. क्षेत्रफळ २,१४९,६९० चौ. किमी. देशाची चडांत चड उदेंत - अस्तंत लांबाय २,०७६ किमी., जाल्यार उत्तर - दक्षिण रुंदाय १,८४३ किमी. ह्या देशान अरबी द्वीपकल्पाचो सुमार ७०% भाग रेवडिल्लो आसून, ताचे अस्तंतेक तांबडो दर्या, उदेंतेक गल्फ आनी युनायटेड अरब एमीरेट, उत्तरेक जॉर्डन, इराक आनी क्युवेट जाल्यार दक्षिणेक येमेन आनी ओमान हे देश आसात. रियाद हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** देशाची चडशी भूंय सुकी आनी वसू सड्याची आसून अस्तंतेकडच्यान उदेंतेकडेन ती देंवत गेल्या. साउदी अरेबियांत सदां व्हांवपी न्हंयो वा हेर कसलेच प्रवाळ नात. पावसा दिसांनी सुक्या देगणांनी (वादी) उदक सांठवता. पूण तें रोकडेच जमनींत जिरता.

भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे वेगवेगळे पांच वांटे केल्यात ते अशे- (१) अस्तंतेकडचो उंच भाग (२) मदेवर्ती सडो (३) उत्तरेकडचो रेंवाट प्रदेश (४) रब अल् खाली आनी (५) उदेंतेकडचो सखल भाग.

अस्तंतेकडचो उंच भाग तांबड्या दर्याचे देगेर आसा. त्या भागाच्या उत्तरेकडच्या वाठाराक हेजाझ जाल्यार दक्षिणेकडल्या वाठाराक असीर म्हण्टात. हेजाझ भागांत ल्हान ल्हान फातरी तेमकां वा दोंगुल्ल्यो दर्यातल्यान वयर सरल्यात. हेजाझ आनी असीर हे उंच भाग तिहामा ह्या अशीर सपाट भागान दर्यादिगेसावन वेगळे केल्यात. असीर हो साउदी अरेबियेंतलो सगळयांत पिकाळ भाग. असीर ह्या भागांतल्या सगळयांत उंचेल्या तेमकाची उंचाय २,७०० मी. आसा.

देशांतलो मदेवर्ती सडो (नाज्द) हो हेजाझ आनी असीर पर्वतांचो उदेंतेकडचो कमी उंचायेचो भाग. ह्या फातरी सड्याचेर कांयकडेन पिकाळ ओली जमीन (Oasis) मेळटा. पावसाचो शिंवर पडटा तेन्ना ह्या भागांत कुडक्या - कुडक्यांनी तण वाडटा. रियाद हें ह्या भागांतलें सगळयांत व्हडलें शार.

मदेवर्ती सड्याचे उत्तरेक रेंवाट प्रदेश आसा. ह्या प्रदेशांत लोकवसती साप उणी आसून, थंय खूब रेंवेच्यो सुळक्यो आसात. तांकां अन् नफूद अशें म्हण्टात.

रब अल् खाली हो देशाचे दक्षिणेक आशिल्लो एक व्हड रेंवटी भाग. ह्या भागान देशाचो ६४७,५०० चौ. किमी. आवांठ रेवडिला. रब अल् खाली म्हळयार वसू भाग नेटान येवपी वाऱ्याक लागून हांगा रेंवेंच्यो उंच सुळक्यो तयार जाल्यात. कांय रेंवेंच्यो सुळक्यो ३०० मिटरांपरस उंच आसात.

उदेंतेकडच्या सखल भागाक हासा अशेंय म्हण्टात. हो भाग परसियन आखाताचेर वसला. ह्या भागाच्या दर्यादिगांनी मिठाचे थर सांचल्यात. हो भाग मुखेलपणान रेंव आनी शेंक्रो हांचेपसून तयार जाला. संवसारांतले सगळयांत व्हडले खनिज तेलाचे सांठे ह्या भागांत सांपडल्यात. ह्या भागांत खूब पिकाळ ओलसाणीचे वाठार

आसात.

**हवामान :** सादारणपणान साउदी अरेबियाचें हवामान उश्ण गिमाच्या दिसांनी दर्यादिगांनी हवामान दमट आनी उश्ण आसात. त्या दिसांनी थंयचें तापमान ३२° से. मेरेन वयर वता. मदेवर्ती सड्याच्या प्रदेशांत गिमाच्या दिसांनी तापमान ४१° से. मेरेन चडटा. पूण थंयच्यो राती शितळ आसतात. देशांतले शिंयाळे खूब कडक. ह्या दिसांनी कांय भागांतलें तापमान गोठणबिंदू सकयल वतात. असीर ह्या एकाच भागांत पावस चड पडटा. कांय रेंवाट भागांनी केन्नाच पावस पडना.

**वनस्पत आनी मोनजात :** देशाची चडशी भूंय रेंवांट आशिल्ल्यान हांगा वनस्पतीचें प्रमाण खूब उणें. देशांत फकत ३७० उपजातींची वनस्पत आसा. मुखेलपणान हांगा सांपडपी वनस्पत उदक सांठोवन (Xerophytic) दवरपी. मोनजातींत मुखेलपणान कोलो, लांडगो, येवूल, मुंगूस, साळ, सोसो, रेंवटी हुंदीर आनी जेरबोआ हांचो आस्पाव जाता. चितळ, ऑरिक्स, चितो आनी रान बोकडो हे सारकिल्ली व्हड मोनजातय थंय कांय प्रमाणांत मेळटा. गरूड, गिडगो (Hawk), ससाणो (Falcon), गीद, घुबड ह्या सारकिल्लीं दुसऱ्या जिवांचेर जगपी व्हड सवणींय थंय आसात. रेंवांट वाठारांत सांपडपी कांय सोरोपय थंय मेळटात. पोसपासारक्या मोनजातींत, उंट, चरबेल्ली शेंपडी आशिल्ली म्हस, लांब कानाच्यो बोकड्यो आनी गाढव हांचो आस्पाव जाता. अरेबियन घोडे फकत गिरेस्त लोक पोसतात.

**इतिहास :** जाणकारांच्या मता प्रमाण ह्या देशांत हजारांनी वर्सां आदीं अरबी, सिरीयन आनी ज्यूसंबंदीत जातींतल्या लोकांचो राबितो आशिल्लो. बॅडोयन ह्या लोकांनी अरेबियन द्वीपकल्पाचो भितल्लो भाग हाताशिल्लो, जाल्यार हेर लोकांनी कारावान मार्गांचेर आपआपलीं वेपारी केंद्रां उबारिल्लीं. इ. स. प. ७०० शेंकड्याच्या सुमाराक साउदी अरेबियाच्या नैऋत्य भागांत आनी अस्तंत येमनांत साबियान लोकांचो राबितो आशिल्लो. ते कुशळ आनी गिरेस्त वेपारी आशिल्ले. जाल्यार, नाबाहियन ह्या वेपारी लोकांचो देशाचे वायव्येक राबितो आशिल्लो. इ.स.प. ४०० ते इ.स. १०० मेरेन तांचो वायव्य साउदी अरेबिया आनी जॉर्डन वेपारी मार्गांचेर शेक आशिल्लो.

इस्लाम धर्माचो संस्थापक महम्मद पैगंबराचो जल्म ५७० त मक्का शारांत जालो. त्या वेळार अरेबियन द्वीपकल्पांतले लोक खूब देवांक भजताले. महम्मदान इस्लाम धर्माची स्थापणूक करून एकाच देवाची (अल्ला) पुजा करपाक लागलो तेन्ना थंयच्या लोकांनी ताका खूब विरोध केलो. ६२२त तो आनी ताचे वांगडी मदीना शारांत गेले. ६30त व्हड सैन्य घेवन ताणें मॅक्काचेर घुरी घालून ताचेर ताबो मेळयलो. उपरांत थंयच्या लोकांक ताणें बळजबरीन इस्लामी धर्म आपणावपाक लायलो. ६३२त ताका मरण आयलें, तेन्ना अरेबियाच्या चडशा भागाचेर इस्लामांचो शेक आशिल्लो.

सातव्या शेंकड्याच्या मध्याकसावन महम्मदाचे उत्तराधिकारी म्हूण खलीफ सत्तेर आयले. तांणी अरेबियाचे चडशे प्रदेश इस्लाम सत्तेखाल हाडले. ६६0च्या सुमाराक खलीफ माविया हाणें आपलें राजपाटण मदीना सावन सिरियांतल्या दामास्कस शारांत हालयलें. उपरांत इस्लामांचें राजकीय आनी धार्मिक केंद्र म्हूण अरेबियन द्वीपकल्पाचें म्हत्व उणें जायत गेलें. आठव्या शेंकड्याच्या मध्याकसावन मुस्लीम साम्राज्याचे ल्हान ल्हान कुडके जावन खूब स्वतंत्र राज्यां अस्तित्वांत आयलीं. उपरांत त्या राज्यांभितर झगडीं चालूच आशिल्लीं. सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेक ऑटोमन टर्कांनी हेजाझ आनी असीर ह्या अरेबियाच्या अस्तंत भागांचेर ताबो मेळयलो. १८०० त ब्रिटिशांनी अरेबियाच्या दक्षिण आनी उदेंत दर्यादिगांनी आपले रक्षक प्रदेश उबारले. पूण अरेबियाच्या भितरल्या प्रदेशांनी थळाव्या मुखेल्यांचोच शेक आशिल्लो.

पंदराव्या शेंकड्याच्या मध्याक सावन साउद वंशान दारीया ह्या ल्हानशा शारांत आपलो शेक बसयलो. अठराव्या शेंकड्याच्या मध्या मेरेन तांची सत्ता ह्याच प्रदेशांत मर्यादीत आशिल्ली. अठराव्या शेंकड्याच्या मध्याक महम्मद इब्न साउद ह्या साउदी राजान महम्मद इब्न अब्द अल् वाहब ह्या धर्मसुदारकाकडेन युती करून इस्लाम तत्त्वांप्रमाण राजकारभार चलोवपाचें मान्य केलें. अब्द अल् वाहब हाणें अरेबियांत इस्लाम धर्माचेर जावपी अन्याय आनी विरोध मोडून उडोवन, थंयच्या लोकांक बळजबरीन मुसलमान तत्त्वां आपणावपाक सांगलीं. इस्लाम धर्मांत सुदारणां घडोवन हाडपाखातीर ताणें वहाबी चळवळ सुरू केली. साउदी सैन्याच्या आदारान ती अरेबियांतल्या चडशा प्रदेशांनी पावली. उपरांत वहाबी चळवळ ज्या प्रदेशांनी पातळिल्ली ते प्रदेश साउदी घराण्यान आपल्या शेकातळा हाडले. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक तांणीं मक्का आनी मदीना हीं शारां आपल्या शेकातळा हाडलीं. साउदीचो शेक दिसान दीस वाडत आसा हें जाणून ईजिप्ताच्या ऑटोमन गव्हर्नरान तांचेर घुरी घालून सुरवेक हेजाझ आनी उपरांत नाज्द हे प्रदेश हातासले. साउदींचें राजपाटण दरिया हें ऑटोमन शेकातळा गेल्या उपरांत १८२४त साउदी घराण्यान रियाद शारांत आपलें नवें राजपाटण उबारलें. पूण १८४३ मेरेन साउदीन आपले चडशे प्रदेश परतून हातासले. १८६५ उपरांत साउदी घराण्यांभितर वैर निर्माण जावन तांची सत्ता दुबळी पडली. उपरांत थंयच्या वेगवेगळ्या जमातींनी राज्याचे प्रदेश हातासले. ऑटोमन सैन्यानय साउदीच्या कांय प्रदेशांचेर आपलो शेक बसयलो. हाका लागून साउदी घराण्याक कुवेटांत आलाशिरो घेवंचो पडलो. १९०२ त अब्द अल् - अझीझ इब्न साउद ह्या साउदी तरणाट्यान रियाद शाराचेर घुरी घालून तें आपल्या शेकातळा हाडलें. उपरांत मुखावयलीं २५ वर्सां दुस्मानाकडेन एकसारको झुजून अझीझ इब्न साउदान हासा, असीर, हेजाझ आनी हेर प्रदेश परतून घेवन १९३२ त 'साउदी अरेबिया' राज्याची घोशणा केली.

नव्या राज्याची स्थापणूक जाल्ली तेन्ना हो देश अर्थीक मळार फाटीं आशिल्लो. देशांतले चडशे लोक गरीब शेतकामती आनी हेडगे आशिल्ले. पूण १९३३ त राज्यांत खनीज तेलाचो सोद लागल्या उपरांत थंयची अर्थीक स्थिती सुदारपाक लागली. दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत तेल उद्देगाची नेटान वाड जाल्ल्यान साउदी सरकार आनी तेल काडपी परकी कंपन्यांनी मेळून देशांत रस्ते, शाळा आनी दवाखाने बांदले. १९४५ त हो देश सुरवेक संयुक्त राष्ट्र संघाचो आनी उपरांत अरब लिगाचो वांगडी जालो. १९५३त इब्न साउदान प्रशासकीय मंडळाची स्थापणूक करून सरकारी क्षेत्रांत सुदारणां घडोवन हाडल्यो. ताणें आपलो व्हडलो पूत साउद हाची आपलो वारस म्हूण नेमणूक केली. ताच्या मरणाउपरांत साउद हो राजा जालो जाल्यार ताचो दुसरो पूत फैसल प्रधानमंत्री जालो. साउदान भौशिक मळार सुदारणा घडोवन हाडपाखातीर खूब दुडू खर्च केलो. पूण वेवस्थित राज्यकारभार चलोवपाक ताका शक्य जालें ना. देखून १९५८त ताणें आपलो भाव फैसल हाचेकडेन राज्यकारभाराचीं सुत्रां दिलीं. अर्थीक मळार सुदारणां घडोवन हाडपाक फैसलाक यश आयलें. पूण १९६०त फैसल आनी साउद हांच्यांत वाद निर्माण जाल्ल्यान फैसलान प्रधानमंत्री पदाक सोडचीट दिली. साउदान सरकारी सुत्रां परतून आपल्या हातांत घेतलीं.

येमन देशांत १९६२त सैनिकी मुखेली आनी राजघराण्याभितर जाल्ल्या यादवी झुजांत साउदी अरेबियान राजघराण्याक तेंको दिल्लो, जाल्यार इजिप्तान सैनिकी मुखेल्यांक आपलो तेंको दिल्लो. त्याच वर्सा ह्याच कारणावयल्यान साउदी अरेबिया आनी इजिप्त देशांभितर झूज पेटलें. उपरांत १९६७ त इजिप्तान आपलें येमनांतल्यान सैन्य काडलें. दोगांयमदलें वातावरण तंगच आशिल्लें. १९६० त साउदाची भलायकी इबाडिल्ल्यान, राज्यकारभार सांभाळपाक ताका कठीण जावपाक लागलें. देखून १९६२ त फैसल परतून प्रधानमंत्री जालो. त्याच वर्सा देशांतल्या सगळया मळांचेर सुदारणां घडोवन हाडपाची घोशणा आंखली. १९६४ त राजघराण्यांतल्या लोकांनी आनी धर्मगुरूंनी साउदाक सत्तेभायरो करून, फैसलाक राजा केलो.

फैसलाचे राजवटीखाला साउदी अरेबियाची अर्थीक, भौशिक आनी राजकीय उदरगत जाली. तशेंच अरबस्तानांत आनी संवसारीक घडणुकांनीय साउदी अरेबिया सक्रिय वांटो घेवपाक लागलो. १९६७ त अरब - इज्रायलीच्या स दिसांच्या झुजावेळार साउदी अरेबियन, इजिप्त, जॉर्डन आनी सिरीयेंतल्या अरबांक आदार दिल्लो. १९७३ त जाल्ल्या अरब - इज्रायली झुजावेळार साउदी अरेबियान इज्रायलाक आदार करपी राष्ट्रांक तेल दिवपाचें बंद केलें. १९८० त साउदी अरेबियान तेल काडपी अरामको (Aramco) कंपनीकडच्यान हक्क काडून घेतले. ह्याच काळांत खनिज तेलाचें मोल चड वाडिल्ल्यान देशाक खूब येणावळ मेळ्ळी.

मार्च १९७५ त फैसलाची ताच्या पुतणयान हत्त्या केली. उपरांत फैसलाचो सवती भाव खालीद गादयेर बसलो. १९८२त खलीदाक मरण आयल्या उपरांत ताचो सवती भाव फाहद सत्तेर आयलो. खलीद आनी फाहद हांणीं फैसलाच्योच येवजण्यो चालीक लावन देशांत सुदारणां घडोवन हाडल्यो. १९९० इराकी सैन्यान कुवेटाचेर घुरी घालून तो आपल्या शेकातळा व्हेलो. त्या वेळार आपल्याचेरय इराक घुरी घालीत ह्या भंयान साउदी अरेबियान अमेरिका आनी हेर अस्तंत देशांकडेन सैनिकी आदार मागलो. इजिप्त, सिरिया आनी अरबी राश्ट्रांनीय साउदी अरेबियाक सैनिकी आदार दिलो. जानेवारी १९९१त जाल्ल्या ह्या आखाती झुजांत साउदी आनी दोस्त राश्ट्रांच्या विमानांनी मेळून इराकाचेर बाँब शेंवटिले. इराकाक हारोवन कुवेट मुक्त करपाक अरेबियाचेंय व्हड योगदान आसा.

**राज्यवेवस्था :** साउदी अरेबियांत इस्लाम तत्त्वांचेर आदारिल्ली राजेशाय चलता. राजा हो कार्यकारी आनी वैधानीक मुखेली. तशेंच तो राजकीय आनी धर्मीक मुखेली. देशांत संविधान ना. शरियत ही संस्था भौशिक वेवस्थेचेर देखरेख दवरता. राजघराण्या संबंदीत हजारांनी लोक देशांत आसात. हेच लोक आपल्या भितल्ल्या एकल्याक राजा म्हूण वेंचून काडटात. ताका उलेमांनी परवानगी दिवंची पडटा. मंत्रीमंडळांतल्या वांगड्यांची राजाच नेमणूक करता. तशेंच राजा आपुणच प्रधानमंत्री म्हूण राज्यकारभार चलयता. राज्यकारभार वेवस्थित चलचो म्हूण देश १४ प्रांतांनी विभागला. राजान नेमणूक केल्लो गव्हर्नर प्रांताचो मुखेली म्हूण राजकारभार चलयता. न्यायवेवस्था धर्मीक तत्त्वांचेर आदारल्या.

**आर्थीक स्थिती :** अर्थीक मळार खूब उदरगत जाल्ली आसा. अर्थवेवस्था मुखेलपणान खनिज तेल उद्देगाचेरच आदारल्या. वट्ट येणावळींतलो सुमार ४०% वांटो तेल उद्देगासावन मेळटा. शेतवडीसावन मेळपी येणावळ खूब उणी. १९६० उपरांत सरकारान तेल उद्देगासावन मेळपी येणावळीचो हेर नवे उद्देग विकसीत करपाखातीर उपेग केला. ह्याखातीर तांणीं जपानी, युरोपी आनी अमेरिकी तांत्रिक आनी वेवसायीक तज्ञांक आपयल्ले. पूण फिशाल कामगारांच्या उणावाक लागून उद्देगीक उदरगत नेटान जावंक पावलीना.

साउदी अरेबियांत खनीज तेलाचे सांठे खूब प्रमाणांत आसात. ते मुखेलपणान देशाच्या उदेंत भागांत आनी परसियन आखाताकडेन सांपडटात. हालीं तेंपार देशाच्या हेर भागांतय तेलाचे सांठे सांपडल्यात. तांबें, भांगर, रुपें, लोखण आनी हेर खनिजांचे सांठेय थंय कांय प्रमाणांत आसात. पूण ह्या सांठ्यांचें काडप आजून चड प्रमाणांत जावंक ना. हेर देशांपरस साउदी अरेबिया खनीज तेलाची निर्यात चड करता. पूण तेल उद्देगांत देशांतले फकत २% कामदार वावूरतात.

देशांतले चडशे लोक शेतीच करतात. खाजूर, काळींग, चिबड, टमाट आनी गंव हीं देशांतलीं मुखेल पिकां. १९८७ त देशान शिंपणाळीच्यो नव्यो पद्धती आपणायल्ल्यान ८५४,००० हेक्टर जमीन लागवडीखाल हाडल्या. गोरवां, मेंढरां, बोकडां आनी कुकडां पोसपाच्या वेवसाय नेटान चलता. नुस्तेंमारी कांय प्रमाणांत जाता.

देशांत चड कारखाने नात. पूण १९६० त सरकारान खूब दुडू खर्च करून कांय कारखाने उबारल्यात. तातूंत मुखेलपणान शिमीट, सारें, खाद्य पदार्थ, पेट्रोकॅमीकल्स् आनी पोलाद हांचो आस्पाव जाता. रियाल हें देशांतलें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारण :** १९६० उपरांत साउदी अरेबियांत येरादारी आनी संचारणाच्या मळार खूब उदरगत जाल्या. देशांतले म्हत्वाचे वाठार बऱ्या रस्त्यांनी जोडल्यात. रियाद शार आनी अद् दमाम बंदर रेल्वे मार्गान जोडलां. रियाद, जिद्दा आनी दहरान शारांत आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. हवाई येरादारी सरकारी नियंत्रणाखाल चलता. रास तनूरा हें परसियन आखातांत आशिल्लें देशांतलें मुखेल बंदर. देशांतलीं अद् दमाम, जिद्दा आनी यान्बू हीं बंदरांय म्हत्वाचीं. देशांत सुमार १३ दिसाळीं उजवाडा येतात. हातुंतलीं तीन इंग्लिशींतल्यान जाल्यार उरिल्लीं अरेबीक भाशेंतल्यान उजवाडा येतात. देशांत टेलिफोनाचीय वेवस्था बरी आसा. देशांतल्या चडशा लोकांकडेन रेडिओ आनी टि.व्ही. सेट आसात.

**समाजजीण :** ह्या देशांतले सुमार तीन चथुर्तांश लोक मुळचे साउदी. तांच्या पुर्वजांचो हजारांनी वर्सां आदीं अरेबियन द्विपकल्पांत राबितो आशिल्लो. हेर साउदी लोक हजयात्रेच्या निमतान येवन थंयच राबितो करून राविल्ल्या मुसलमानांचे वंशज. सगळे साउदी इस्लाम धर्मी आसून ते अरबी भास उलयतात. कामाच्या निमतान कांय तेंपाखातीर थंय स्थलांतरीत जाल्ल्या लोकांचो आंकडोय व्हड आसा. ह्या लोकांत पाकिस्तानी, भारतीय, फिलिपीन्स, बांगलादेशी, दक्षिण कोरिया हांचो चड आस्पाव जाता. देशांतले तीन चथुर्तांश लोक शारांनी रावतात. सद्या शारांनी खूब गर्दी वाडल्या. अरबी ही देशाची राजभास. माध्यमिक शाळांनी इंग्लीश भास शिकयतात. शिक्षीत लोक वेवसाय आनी हेर म्हत्वाच्या वावराखातीर इंग्लीश भाशेचोच वापर करतात.

देशांतले सुमार ९०% लोक सुन्नी पंथाचे आसात. शिया मुस्लिम चडकरून देशाच्या उदेंत प्रांतांनी रावतात. साउदी अरेबिया लोकांचे एकामेकांभितल्ले संबंद, तांचें शिक्षण आनी हेर चालीरिती इस्लामी प्रभावाखाल चलतात. देशांतले गांवगिऱ्या वाठारांतले चडशे लोक ओली जमीन आशिल्ल्या (Oasis) सुवातींनी रावतात. थंय हेडपी जमातीय खूब आसात. हेडपी लोकांक बॅडोयन अशें म्हण्टात. ते आपल्या गोरवांक, उंटांक, मेंढरांक वा बोकडांक घेवन चरवाच्या मळांच्या सोदांत हांगा थंय भोंवत आसतात. हालीं तेंपार हे जमातींतले खुबशे लोक नोकरेच्या निमतान शारांत स्थायिक जाल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## सांतान, आल्तिनो रिबैरो द. :
(जल्म : सुकूर, बार्देस; मरण : १९७३).

बैरा - मोझेंबीक हांगाचो गोंयकार धर्मगुरू. ताणें धर्मीक शिक्षण राशोल सेमीनारींत घेतलें. १९३८ वर्सा तो पाद्री जालो. १९५५ वर्सा आंगोलाच्या सा द बांदेरा हांगाचो पयलो धर्मगुरू म्हूण ताची नेमणूक जाली. थंयच्यान १९७१ वर्सा बैरा हांगा ताची बदली जाली.

- कों. वि. सं. मं.

## सांतेर :
गोंयांतल्या चडशा गांवांनी सांतेर (सांतेरी) हें मातृदैवत रोयणीच्या प्रतिकांत आसता. सादारणपणान सुमार आठ धा फूट उंचायेची आनी तितल्याच रुंदायेची (परीघाची) ही रोयण आसता. सांतेरीकच कांयकडेन भूमका (भूमिका - भूमिदेवता), वा माया अशींय नांवां आसात. रोयण हें प्रतिक आशिल्ल्यान सांतरा हाचो अपभ्रंश जावन सांतेर हें उतर आयलें काय सांतेर हें बोली भाशेंतलें उतर आसा हें सारकें सांगपाक जायना.

कांयकडेनच्यो रोयणी आता नाच जाल्ल्यो आसल्यो तरी तांच्यो कुरवो दिसून येतात. जायत्या तेपा उपरांत ह्यो रोयणी जेन्ना झडपाक लागल्यो तेन्ना तांचो आकार ल्हान जावपाक लागलो. तेन्नाच गांवकारांनी थंय देवीचें म्होवाळें वा प्रतिमा (मूर्ती) पुजेक लायिल्ल्यो दिसून येतात. कांयकडेन रोयणीच्या माथ्यार पारवीं येवन, तांचीं फुडाराक देवळांय जाल्ल्याच्यो देरवी मेळटात. कांय कडेन देवीचें नांव शांतादुर्गा अशेंय जाल्लें दिसून येता. भटाकडल्यान हांगा पुजा अर्चा, निवेद्य जाता. कांयकडेन जात्रा, काले आदी उत्सवय जातात.

कांयकडेन सांतेरीचे रोयणींत वा देवळांत 'नाग' वसती करून आसता. तो बऱ्याच जाणांक दिसता, पूण ताका मारीनात कारण हो नाग कोणाक चावना अशी लोकांची भावना आनी धारणा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : रोयण, रेणुका

## सांबार :
सांबार म्हळयार एक तरेचो रोस. पातळ, सरसरीत दाळिचो, शाक भाजी घालून केल्लो रोस. दक्षिण भारतांतलो मुखेल जिन्नस. तो शीतार घेतात आनी इडली, वड्या वांगडा खातात. हो पदार्थ मूळ मद्रास - तमिळनाडू, कर्नाटक - दक्षिण भारतीय लोकांचो, जेवणांतलो मुखेल जिन्नस. पूण आयज तो भारतभर पातळ्ळा. भारता भायरय भारतीय जेवण पद्धतींत तो एक खाशेलो पदार्थ जाला.

**साहित्य :** १ कप तांबडी दाळ (मसूरदाळ) वा तूरदाळ; ३ कप उदक; २ लवंगां; ७,८ लसणी बीयो (चिरिल्ल्यो); २ कप मिक्स भाजयो (बटाटे, वांयगी, सांगो, गाजर, वालपापडी, कांदो) कुडके करून; २ हरव्यो मिरसांगो; १ कप आंबटाणीचें उदक; २ व्हडले

चमचे साकर; ३ व्हडले चमचे सांबार पावडर; १ चिमुटभर हिंग पावडर; ३ व्हडले चमचे तेल (फोण्णारवातीर); १ व्हडलो चमचो सासवां; २ सुक्यो तांबड्यो मिरसांगो; इल्लो फोण्णा पालो; १ ल्हान कांदो - शिजवपाक; १ ल्हान कांदो चिरिल्लो; चवी प्रमाण मीठ.

**पद्दत :** दाळ शिजोवन ती मुडून घेवपाची. सगळयो भाजयो शिजोवन घेवपाच्यो. वांगडा मिरसांगो आनी लसूण शिजोवपाची. तातूंत आंबटाणे उदक, साकर, सांबार पावडर घालप, हिंग, मिठय घालप. हें सगळी एकठांय करून दोन मिनटां खतखतावन घेतकच, सगळें शिजयल्ले दाळींत एकठांय करप आनी धवळप.

निमाणें तेल तापोवन घेवन, तातूंत सासवां घालून फोंण्णां दिवप. सासवां पिटपिट्टकच, मिरसांगो आनी चिरिल्लो कांदो घालप. कांदो तांबसो जाय म्हणसर तळसून घेवप. हें सगळे दाळेभितर घालप आनी परतो एक खतखतो मारप.

पचपाक हलको आनी दाळ, भाजयो बी तातूंत आशिल्ल्यान तरेक तरांची विटॅमिन्स (जीवनसत्त्वां), प्रोटीन्स बी तातूंत आसतात. सद्याक सांबार करपाचें रेडीमेड पिठ्याचें मिश्रण बंद पाकिटांनी बाजारांत उपलब्ध आसा.

- सुधा सुरेश आमोणकार

**सांसवां :** सांसवांचें झाड क्रुसीफेरी (ब्रॅसिकेसी) कुळांतलें आनी ब्रॅसिका प्रजातींतलें आसा. (हिंदी : राई; इंग्लीश : इंडियन मस्टर्ड; लॅटीन : ब्रॅ. जुसिया;)

ही एकाच हंगामांत जिणेचो क्रम पुराय करपी वनस्पत. वेगवेगळया प्रकारांत १ मी. ते २ मी. आसता. पानां १५ ते ३० सेंमी. लांब, सादी देंठ आशिल्लीं आसात. खोडाच्या तळाकडलीं पानां वयल्या पानांपरस मोठीं आनी वीणेच्या आकाराचीं आसून मुखावयलो खंड वाटकुळो आसता. वयल्या भागांतलीं पानां भाल्यासारकीं आसून, तळाकडे अशीर शंखाकृतीचीं आनी शेंड्याकडे तोंकासारकीं आसतात. ताचो फुल्लोरो हळदुव्या रंगाचो आसता. फळां, शुश्क, लांबट शांगेसारकीं १.२५ ते ५ सेंमी. लांब सरळ उबीं आसून तांची चोच घट आनी आंखूड आसता. फळांत तपकिरी रंगाच्यो ल्हान बियो आसतात.

**उगमाचो इतिहास :** तांच्या उगमाविशीं निश्चित म्हायती उपलब्ध नासली तरी तांचो वखदाखातीर खूब पुर्विल्ल्या काळासावन उपेग जातालो. आयुर्वेदांतल्या संहिता आनी निघंटांत सासवांचें वर्णन आयलां.

**पिकावळीचो वाठार :** भारत, चीन, पाकिस्तान, जपान, पोलंड, कॅनडा, जर्मनी, फ्रांस आनी स्वीडन ह्या देशांनी सांसवांचें उत्पादन जाता.

भारतांत उत्तर प्रदेश, राजस्थान, हरियाणा, आसाम, मध्य प्रदेश, ओरिसा, बंगाल, पंजाब, गुजरात, बिहार, जम्मू आनी काश्मीर ह्या राज्यांत तांचें पीक घेतात.

ह्या पिकाची पुराय मशागत गंवांच्या पिकाभशेन करतात. जमीन ४ - ६ फावटी नांगरून भुसभुशीत करून रब्बी पिकावांगडा मिस्त्रपीक म्हण घेतात. तेन्ना एके वळींत १.३ ते २ मी. अंतराचेर रोयतात वा पुराय शेतांत शिंपडीतात. स्वतंत्र पीक घेवपाचें आसल्यार (मोहरी) सांसवां, तोरिया आनी सरसू हीं पिकां दोन वळींनीं ४५ सेंमी. आनी पिवळी सरसू ३० सेंमी. अंतराचेर रोयतात.

हांचे बरे वाडीखातीर थंड हवामान गरजेचें आसता. भारतांत सांसवांची लागवड सप्टेंबर - ऑक्टोबर, फेब्रुवारी - मार्च ह्या काळांत करतात. हें पीक चार ते पांच म्हयन्यांनी तयार जाता.

हीं वेगवेगळीं पिकां वेगवेगळया वेळार कापणे खातीर तयार जातात. तोरिया ८५ ते १०० दिसांत, मोहरी ११० ते १६० दिसांत तयार जाता. हळदुवें सरसू १२० ते १६० दिसांत आनी पुडिकोराचें सरसू १०५ ते १४५ दिसांत तयार जाता. झाडां पिकल्या उपरांत कापून दोन दीस सुकयतात आनी लाकडाच्या दांडयांनी बडोवन सांसवां वेगळीं करतात.

हांचें सादारणपणान हेक्टरी उत्पन्न ३१० किग्रॅ. मेळटा. राईचें सगळयांत चड उत्पन्न मेळटा.

**उपेग :** आमच्या घरगुती जेवणा खाणांत फोडणी मारपाखातीर त्या बियांचो उपेग करतात. (मोहरी) सांसवां, सरसू, तोरिया ह्या बियां सावन काडिल्लें तेल 'कोडू' तेल ह्या नांवांन बाजारांत मेळटा. तांच्या बाश्परूपांतलें तेल वखदी उद्येगांत म्हत्वाचें आसा.

आंगाक चोळपाच्या वखदांत ताचो उपेग करतात. हलक्या प्रतिचें तेल दिव्यांखातीर वापरतात. सांसवांचो चड उपेग मसाल्यांत आनी लोणच्यांत करतात. तांची पेण गोरवांक - जनावरांक खावंक घालतात. हलक्या प्रतिचे पेणीचो उपेग सान्याखातीर करतात.

सांसवांचें तेल म्हारग आशिल्ल्यान ताचो वापर उद्येगधंद्यांनी मर्यादीत प्रमाणांत जाता. परदेशांत ताचो उपेग ग्रीज तयार करपाखातीर आनी पोलाद धंद्यांत पोलादाक उदक दिवपाखातीर, रबर, नायलॉन, प्लॅस्टिक धंद्यांत, तशेंच मोव शाबू तयार करपाक जाता.

तशेंच सांसवांच्या कवळया पानांची भाजी करतात आनी पालो जनावरांक खावंक घालतात.

- कों. वि. सं. मं.

**साकर :** एक गोड पदार्थ. साकर जेवणांत, खाणांत आनी पेयांत गोडसाण हाडपाखातीर वापरतात. च्या, कॉफी, आयसक्रीम आनी शितपेयांत साकरीचो सर्रास उपेग जाता. संवसारीक भलायकी संस्थेन केल्ल्या अभ्यासाप्रमाण सादारण मनीस वर्साक ३० ते ४० किलो साकर खाता.

सगळया पाचव्या झाडांक साकर तयार करपाची क्षमता

आसता. पूण खावपाखातीर वापरतात ती साकर मुखेलपणान ऊंस आनी शुगर बीटासावन काडटात. मक्याचें पीठ, दूद आनी म्होंवांतूय साकर आसता. पूण तांचेपसून साकर काडपाची प्रक्रिया खूब कठीण आसा. कार्बोहायड्रेटस् अन्न प्रकारांतय साकर आसता. साकरीचो खाणाखातीर उपेग करचे पयलीं ती शुध्द करून घेतात. शुध्द साकर चकचकीत पारदर्शी कणांच्या रुपांत आसता. शुध्द साकरींत कसलींच जिवनसत्वां आसनात. साकरीचो खूब प्रमाणांत खावपाखातीर उपेग जालो तर दांत किडेवप तशेंच कुडीचें वजन वाडप जाता. हे दोश टाळपाखातीर अस्पार्टामे आनी साकारीन ह्या कृत्रीम पदार्थांचो वापर करप जाता.

संवसारांत उत्पन्न जावपी चडशी साकर खावपाखातीर वापरतात. पूण कांय प्रमाणांत साकर शिमीटांत भरसण करपाखातीर, चामडें कमवपाक आनी प्लास्टीक तयार करपाखातीर वापरतात. तशेंच वखदांक गोडसाण येवची म्हणूनय तातूंत साकर भरशितात.

मोनोसाकारीदेस आनी डायसाकरीदेस हे साकरीचे दोन प्रकार. मोनोसाकारीदेस हे सादारण कार्बोहायड्रेटस्. मोनोसाकारीदेस हातूंत ग्लुकोज आनी फ्रुक्टोजचो आस्पाव आसता. दोन मोनोसाकारीदेस मेळून डायसाकारीदेस तयार जाता. डायसाकारीदेस सावन ग्लुकोज आनी फ्रुक्टोज मेळोवपाखातीर एन्झायमची गरज लागता.

साकर मुखेलपणान ऊंस आनी शुगरबीटासावन तयार करतात. ऊंसाच्या रोसासावन साकर तयार करपाखातीर सुरवेक ऊंशीकाणे धुतात. उपरांत कारखान्यांत ते क्रॅशराच्या आदारान मळटात. ऊंस मळटाना ताचेर गरम उदकाचे फवारे मारतात. गरम उदकाक लागून ऊंशीकाण्यांसावन चड रोस येता. हो पातळ रोस उपरांत शुध्दीकरणाखातीर दुसरे टांकयेत रकयतात. थंय हो पातळ रोस तापोवन तातूंत लायम (Calcium Hydroxide) घालतात. लायम घालतकच त्या रोसांतले नाका आशिल्ले घटक टांकयेच्या तळाक बसतात. उपरांत त्या रोसांतलो लायम काडपाखातीर कार्बनडाय-ऑक्सायड वापरतात. मागीर ह्या रोसांतलें उदक काडपाखातीर तो रोस बाष्पन थाळयेंत घालून ताचें बाष्पीकरण करतात. बाष्पन थाळयेंतल्या ह्या थपथपीत रोसांतलें पुरायपणान उदक काडून ताचें कणांत रुपांतर करपाखातीर तो थपथपीत रोस उपरांत निर्वात कायलींत (Vaccum Pan) घालून तापयतात. पूण साकर आनी उंसाचो रोस तापयतकच रोकडोच करपता. देखून निर्वात कायलींत त्या रोसाचो उकळबिंदू देंवोवपाची क्षमता आसता. हाका लागून निर्वात कायलींतलो रोस कितलोय तापयलो जाल्यार तो करपपाची शक्यता नासता. उपरांत तो रोस तापयत दवरतकच तातूंत व्हड व्हड साकरेचे कण निर्माण जातात. ह्या रोसांतले हे कण कुशीन काडपाखातीर रोस आनी साकर कणांची भरसण उपरांत केंद्रोत्सारक यंत्रांत (Centrifuge) घालतात. हें यंत्र खूब नेटान घुंवता आशिल्ल्यान त्या रोसांतले साकरेचे कण कुशीक सरतात. रोसासावन वेगळे जाल्ले साकरेकण हळदूवसार आसतात. हे हळदूवे अशुध्द साकरे कण उपरांत उदकांत विरगळायतात. उपरांत हें पातळ मेल एका खाशेल्या गाळणेंत गाळटात. हें शुध्द पारदर्शी मेल परतून बाष्पन थाळयेंत घालून ताचें बाष्पीकरण करतात. ते बाष्पन थाळयेंतल्या मेलांत परतून साकरेचे कण तयार जातात. मेलांत तयार जाल्ले हे साकरेचे कण परतून केंद्रोत्सारक यंत्रांत घालतात. ह्या यंत्रांत हे कण नेटान घुंवन ते शुध्द रुपांत वेगळे जातात आनी शुष्कन ड्रमांत (Drying Drum) पडटात. उपरांत ह्या ड्रमांत गरम हवा सोडून त्या साकरेच्या कणांतली ओलसाण पुरायपणान सुकयतात. ही शुध्द साकर मागीर बाजारांत विकपाखातीर साकांनी भरून दवरतात. कांय खेप उंसाच्या रोसासावन साकरेचे कण रोकडेच तयार जायनात. देखून ताचें बाष्पीकरण आनी केंद्रोत्सारित्र ह्यो प्रक्रिया परतून परतून करच्यो पडटात.

शुगर बिटांसावन साकर तयार करपाखातीर सुरवेक, बीट बरे धुवन तांचीं पातळ कापां करतात. त्या कापांक कोसेट्स अशें म्हण्टात. हीं कापां उपरांत विसारकांत (Diffuser) घालून भिजयतात. हे प्रक्रियेंत त्या कापांतली साकर उदकांत विरगळून ताचें पातळ विद्रव तयार जाता. उपरांत त्या विसारकांतल्या विद्रवांतलीं कापां कुशीक काडून सुकयतात. तीं सुकयल्लीं कापां उपरांत मळयेंत भरसून गोरवांखातीर खावड तयार करतात. जाल्यार पातळ विद्रव दुसरे व्हड टांकयेंत घालून तापयतात आनी तातुंतलीं मुलद्रव्यां (Impurities) तळाक उरचीं म्हूण तातूंत लायम घालतात. उपरांत विद्रवांतलो चड प्रमाणांत आशिल्लो लायम काडपाखातीर तातूंत कार्बनडाऑक्सायड घालतात. फुडल्यो बाष्पीकरण आनी केंद्रोत्सारित्र ह्यो प्रक्रिया उसांसावन साकर तयार करतात तशोच आसात.

आठ हजार वर्सां पयलीं दक्षिण पॅसिफीक जुंव्यांवयले लोक उंसाची लागवड करताले. प्राचिन भारतांतय उंसाचे व्हड मळे आशिल्ले. इ.स. प. २०० च्या सुमाराक उंसाचे मळे वाडोवन ताचेपासून साकर काडप ही पद्दत फकत भारत आनी चिनांतच प्रचलित आसली. उपरांत इ.स. ६३६ त ती पद्दत युरोपांत पावली. फुडें वसणुकेच्या काळांत १४०० चे सुरवेक युरोपीयांनी उत्तर आफ्रिकेंत उंसाची लागवड सुरू केली. उपरांत पुर्तुगेजांनी आफ्रिकेच्या अस्तंत दर्यादिगांनी आनी ब्राझीलाक व्हड उंसाचे मळे तयार केले. १५१५ त अस्तंत अर्दांतलो सगळ्यांत पयलो साकर कारखानो सद्याच्या डोमिनीकन प्रजासत्ताकांत उबारलो. जाल्यार १७९१ त उत्तर अमेरिकेतलो सगळ्यांत पयलो साकर कारखानो न्यू ऑर्लियनाक उबारलो. ऑस्ट्रेलियेंत उंसाची लागवड करपाक १७८८ त सावन सुरवात जाली.

प्राचीन बॅबिलोनिया, ईजिप्त आनी ग्रीसी लोक शुगर बिटांची लागवड करताले. पूण तांचेपसून साकर काडपाची पद्दत तांकां खबर नाशिल्ली. १७४४ त जर्मन विज्ञानीक अँड्रीयास मार्ग्राफ हाणें

उंसाभशेनच शुगर बिटांसावनच साकर काडप शक्य आसा हें दाखोवन दिलें. १७९९ त मार्ग्राफचोच विद्यार्थी फ्रांस आचार्ड हाणें शुगर बिटांसावन साकर काडपाची प्रक्रिया पद्दतशीर मांडली. उपरांत युरोपांत आनी रशियेंत साकरीचे खूब कारखाने अस्तित्वांत आयले.

सद्या भारत, ब्राझील, रशिया, क्युबा, अमेरिका, चीन हे देश साकर उत्पादनाखातीर प्रसिद्द आसात. १९८७ वर्सा सोविएत युनियनाचें साकर उत्पादन हेर राश्ट्रांपरस चड आशिल्लें. त्या वर्सा थंयचें साकरेचें उत्पादन ९,७८०,००० मेट्रीक टन आसलें. जाल्यार भारताचें ८,५३३,००० मेट्रीक टन, ब्राझीलाचें ८,५१०,००० मेट्रीक टन, कक्युबाचे ८,२१८,००० मेट्रीक टन, अमेरिकेचें ६,६४७,००० मेट्रीक टन, चीनाचें ६,२७३,००० मेट्रीक टन आनी मेक्सिकोचें ४,०३१,००० मेट्रीक टन आसलें.

ब्राझील, भारत, क्युबा, चीन, मॅक्सिको आनी पाकिस्तान हे उंसापसून साकर तयार करपी मुखेल देश आसात, जाल्यार रशिया, फ्रांस, अमेरिका, जर्मनी, पोलंड, इटली हे शुगर बिटांसावन साकर काडपी मुखेल देश.

साकर हो भारतांतलो शेतकी उद्देगांतलो दुसरो म्हत्वाचो उद्देग. ३१ जानेवारी १९९५ मेरेन भारतांत ल्हान व्हड मेळून ४३५ साकर कारखाने आशिल्ले. तातुंतले २४४ कारखाने सहकारी पद्दतीचेर आसले. आठवे पंच वर्सुकी येवजणेंत (१९९२ - ९७) साकर उत्पादन आनी साकर कारखान्यांची वाड, करपाचेर खाशेली भर दिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**सारवरदांडे, प्रभाकर यशवंत :** (जल्म : १४ फेब्रुवारी १९२८, सांखळी - दिवचल).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. डॉ. लोहिया हाच्या उलोवपांतल्यान स्फुर्त मेळून ताणें आपली नोकरी सोडली आनी तो गोंयांत आयलो. १९४७ त ताणें सांखळी हांगा सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी सुमाराभायर मार घालो. सात म्हयन्याउपरांत बंदखणींतल्यान पळून वचपाचे तयारेंत आसतना फार लागून तो जखमी जालो. तशेच अवस्थेंत तो गोंयची शीम हुंपून गेलो. उपरांत पोलिसांनी ताका धरपाचें फर्मान काडिल्लें. पूण तो भूंयगत वावर करूंक लागलो. गोंयांत तो चोरयां पत्रकां, हातीबीलां, तिरंगी बावटे पावयतालो. १५ ऑगस्ट १९७३ दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सातोस्कार, बा. द. :** (जल्म : २६ मार्च, १९०९).

पुराय नांव बाळकृष्ण दत्तात्रय सातोस्कार. विंगड विंगड तरांचें खूब बरोवपी लेखक, रहस्यकथाकार, संपादक, अणकारपी, इतिहासकार, ग्रंथपाल - ग्रंथालयतज्ञ, संशोधक, स्वातंत्र्यझुजारी, प्रकाशक अशी वेगवेगळीं तासां आशिल्लो गोंयकार.

सातोस्काराचें मूळ घराणे गोंयचें. ताचें उपनांव कामत.



बाटाबाटीच्या वेळार ताचे पूर्वज सावंतवाडी संस्थानांतल्या सातोशे गांवांत गेले आनी थंयचे कुळकर्णी जाले. काय तेंपाउपरांत ते परत गोंयांत परतले आनी तांणीं हांगाच वेपार धंद्याक सुरवात केली.

ताणें खूब कश्टांनी शिक्षण घेतलें. सुरवेक ७ वी यत्ता ताणें म्हापशेंच्या सारस्वत विद्यालयांत केली. उपरांत पुर्तुगेजीचें मुळावें आनी माध्यमिक शिकपय ताणें थंयच पुराय केलें. लिसेंवाच्या चवथ्या वर्सा मात ताका कांय कारणांक लागून शिक्षण मदींच सोडचें पडलें. फुडाराक इंग्लीश माध्यमांतल्यान तो मॅट्रीक्युलेट जालो. शिल्पकलेचें उंचेलें शिक्षण घेवपाखातीर म्हणून तो मुंबयच्या जे. जे. स्कूल ऑफ आर्टसांत दाखल जालो. पूण थंय तो तिगलो ना. उपरांत सेंट झेवियरांतल्यान तो बी.ए. जालो. एम्.ए.ची परीक्षाय दिवप ताका जमलेंना. फुडाराक पिरायेच्या ४४ व्या वर्सा ग्रंथालय शास्त्राचे परीक्षेक बसून तो पयल्या क्रमांकान उत्तीर्ण जालो.

भुरगेपणासावन ताका वाचपाची भोव आवड आशिल्ली. 'गांव थंय वाचपघर' आसचें अशें ताका दिसतालें. देखून भुरगेपणांतच ताणें माशेलांत शारदा मंदिर नांवाचें वाचपघर सुरू केल्लें. त्याच ग्रंथ आनी वाचप घराचे ओडीन तो मुंबय विद्यापिठांत सहाय्यक ग्रंथपाल म्हणून नोकरेक लागलो. तेवेळार पुर्तुगेज, फ्रेंच, स्पेनिश ग्रंथांचें वर्गीकरण आनी तालिकीकरण ताणें केलें. फुडाराक हांगाची नोकरी सोडून तो मुंबय मराठी ग्रंथसंग्रहालयाचो मुखेल ग्रंथपाल जालो. उपरांत तो ते संस्थेचो कार्यवाह जालो. हांगाच आसतना ताणें बरीच मेहनत करून ग्रंथवर्गीकरणाची एक नवी आनी पयल्यापरसय सोंपी अशी पद्दत सोदून काडली आनी तिची प्रक्रिया मुंबय मराठी ग्रंथ संग्रहालयांतल्या सुमार पावणेलाख ग्रंथांचेर केल्ली. आयज बरेचकडेन ताची ही वर्गीकरण पद्दत आपणायल्ली दिश्टी पडटा. हेच पद्दतीचेर ताणें तात्त्विक वर्गीकरण संबंदींचे ग्रंथ बरयले. महाराष्ट्र सरकारान ग्रंथालय शास्त्राचे परीक्षेखातीर ते पाठ्यपुस्तकां म्हणून लायल्यात. मुंबय आनी पुराय महाराष्ट्रांत ग्रंथालय चळवळ उबारपाखातीर तो बरोच वावुरलो. ते पसत 'साहित्य सहकार' हें मुखपत्र ताणें काडलें आनी ताचो संपादक म्हणून वावर पळयलो. बरेच कडेन ग्रंथालय परिशदोय ताणें घेतल्यो. १९३५ त ताणें गिरगांव मुंबय हांगा सागर प्रकाशन संस्था सुरू

केली आनी सागर साहित्य छापखानोय सुरू केलो. दुसऱ्याचीं पुस्तकां छापतां छापतां ताका स्वतंत्र लेखनाची उर्मी आयली. ह्याच काळांत ताणें 'गोमंतक' तीन म्हयनाळेंय चलयलें.

१९४६ त गोंय स्वातंत्र्य लढ्याच्या नव्या पर्वान तो सक्रिय वांटेकार जालो. नॅशनल काँग्रेस गोवाचो तो पयलो सादो वांगडी आशिल्लो. १९५३त तो मुंबय फांट्याचो अध्यक्ष जालो. १९४६ ते १९५४ मेरेन ताणें गोवा टायम्स, केसरी, लोकसत्ता, लोकमान्य आदी दिसाळयांनी स्तंभलेखनय केलें. संघटनेच्या विचारांचो प्रसार आनी प्रचार जावंचो हेखातीर 'आमचें गोंय' हें मुखपत्र ताणें चलयलें. 'दुधसागर' हें पंद्रशीय त्याच उद्देशान ताणें सुरू केलें. १९३५ सावन तीन तपां मेरेन ताणें गोमंतक मराठी संमेलना घेवपाचें कार्य केलें. गोंय मेकळें जावंचे पयलीं गोंयाभायर आनी उपरांत हीं संमेलनां गोंयांत घेवपाखातीर ताणें व्हड योगदान दिलें. १९४७ ते १९५० मेरेन ताणें महाराष्ट्र ग्रंथ भांडाराच्या 'विसावा'च्या संपादनाची जापसालदारकी आपणायली. ह्या तेंपार ताणें 'कथा सागर' हें पंद्रशी नेमाळें सुरू केलें, जें फुडाराक म्हयनाळें जालें.

गोंय मेकळें जाल्या उपरांत ताणें गोंयांत येवन आपलें साहित्यिक, राजकीय, पत्रकारितेचें कार्य फुडें चालूच दवरलें. गोंयच्या 'गोमंतक' दिसाळयाचो पयलो संपादक म्हणून त्या दिसाळयाक नांवा रूपाक हाडूंक तो बरोच वावुरलो. तशेंच त्या दिसाळयावरवीं गोंयच्या नवोदीत लेखकांक ताणें लेखनाचें प्रोत्साहन दिलें.

१९६७ त ताणें 'पत्रविद्या' हो वृत्तपत्र विद्येवयलो ग्रंथ बरोवन उजवाडायलो. 'गोमंतक मराठी साहित्याचे शिल्पकार' हो ग्रंथ दोन खिस्तींनी उजवाडायलो. तर आधुनिक गो. सा, शिल्पकार होय ग्रंथ बरयलो. पिरायेच्या ६५ व्या वर्सा ताणें गोमंतक प्रकृति आनी संस्कृती ह्या ६ खंडी प्रकल्पाचो संकल्प सोडलो, तातुंतले तीन खंड आतांमेरेन उजवाडाक आयल्यात. गोकर्ण पर्तगाळ मठाचो ५०० पानी इतिहासय ताणें बरयला.

'मराठी मासिकांची शंभरी' ही 'अमृत' म्हयनाळयाच्या १२ अंकांतल्यान पांच लेखांची एक लेखमाळ ताणें बरोवन मराठी मासिकाचो साक्षेपी इतिहासच वाचप्यांमुखार दवरला. 'राष्ट्रमत' दिसाळयाच्या आयताराचे आवृत्तेंतल्यान 'स्वप्नगंध' नांवाची ७५ लेखांची आत्मचरित्रपर लेखमाळय ताणें बरयल्या. तशेंच 'गोमंतक' दिसाळयाच्या आयताराचे पुरवणेंतल्यान 'र.स.गंगाधर' हें टोपण नांवान नर्मविनोदी अशी ६० लेखांची माळ ताणें गुंथल्या. हाचेभायर भाशिक प्रस्नांची चर्चा करपी लिखाण ताणें केलां. संस्थांचो इतिहास, संपादित स्मृतीगौरव ग्रंथाचेंय लिखाण ताणें केलां. तशेंच भारतीय संस्कृती कोशाखातीरय ताणें लिखाण केलां. ललित साहित्यांत मॉपासोच्या कथांचो अणकार (पंचविशींतलें पाप), पुर्तुगेज कथांचो अणकार (द्राक्षांच्या देशांत), चार्लस डिकन्सच्या 'ऑलिव्हर ट्विस्ट' हे कादंबरीचें 'दिग्या' नांवान रुपांतर, पर्लबकच्या 'मदर' आनी 'गुडअर्थ' ह्या कादंबऱ्यांचो 'आई - धरित्री' ह्या नांवान अणकार, तशेंच अमेरिकन साहित्याचे प्रवर्तक नाथानिएल हार्थन आनी हेरांच्या कथा - कादंबऱ्याचे अणकार, भाशांतरां, रुपांतरां ताणें केल्यांत. सात आठ हजार बऱ्यांतल्यो बऱ्यो रहस्यात्मक कथाय ताणें मराठींत रुपकारल्यात आनी बरो रहस्य कथाकार असो लैकिक मेळयला.

ताणें ८० स्वतंत्र कथा बरयल्यात. 'प्रितीची रीत', 'अभुक्ता' हे ताचे दोन कथां झेले उजवाडाक आयल्यात. तेभायर ह्यो कांय कादंबऱ्यो 'निलिमा', 'रक्तहीन क्रांती', 'आज मुक्त चांदणे' (दोन वांटे), 'जाई', (जिचो 'परछाई' नावांन हिंदींत अणकार जाला), 'मेनका', 'अनुपा' आदी ताचे ३० - ४० ललित निबंद 'शांग्रीला' पुस्तकांत एकवटायल्यात', 'येथे देवाची वस्ती' (स्थळयात्रा), 'उदंड जाहले पाणी' (नाटक), भुरग्यांसाहित्य, भासशास्त्र, समीक्षा, हांचेरय ताणें ल्हान व्हड पुस्तकां - पुस्तिका बरोवन उजवाडाक हाडल्यात. ताच्या पुस्तकांचो आंकडो ५० च्या वयर पावता. कविता सोडून सगळे साहित्यप्रकार ताणें केळयल्यात.

ताका जायते मानसन्मान फाव जाल्यात. ताच्या एकसष्ठीच्या निमतान तशेंच गोमंतक साहित्य सेवक मंडळाच्या भांगरा उत्सवा निमतान मंडळान ताचो सत्कार घडोवन हाडलो. १९८२ त केसरी - मराठान ताचो भोवमान केला. महालक्ष्मी वाचनालयाच्या अमृतमहोत्सवांत ताचो सत्कार जाला. मुंबय, पुणें आनी गोंय पत्रकार संघ तशेंच पुणें प्रेस क्लबान ज्येश्ठ संपादक म्हणून ताचो भोवमान केला. तेभायर मिनेझिस ब्रांगाझा इन्स्टिट्यूट, गोवा हिंदु ॲसोसिएशन, मुंबय आनी जनता वाचनालयान ताका सन्माननीय वांगडीपण भेटयलां. १९७१ त जाल्ल्या महाराष्ट्र राज्य ग्रंथालय परिशदेच्या सावंतवाडी अधिवेशनाचो तो उद्घाटक आशिल्लो. पयल्या गोमंतक ग्रंथालय परिशदेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. १९५० त जाल्ल्या गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचो तो येवकार अध्यक्ष जाल्यार १९८२ त मंगेशी हांगा जाल्ल्या संमेलनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो तशेंच १९६५त गोंयांत जाल्ल्या ऑल इंडिया एडिटर्स कॉन्फरन्साचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.

गोवा गॅझेटियरचें संपादक मंडळ, राज्यशिक्षण सल्लागार मंडळ, सेंट्रल लायब्ररी सल्लागार मंडळ, राजाराम मोहन रॉय फाऊंडेशन, गोंय कला अकादमी, गोवा लायब्ररी डेव्हलपमेंट बोर्ड, गोवा प्लेसनेम्स ऑथोरिटी, पणजी आकाशवाणी केंद्र, दिल्ली साहित्य अकादमी, मराठी बोर्ड, महाराष्ट्र राज्य विश्वकोश निर्मिती मंडळाचेर वांगडी म्हणून ताणें काम पळयलां.

ताचे साहित्य सेवेखातीर ताका गोवा कला अकादमीचो शारदा पुरस्कार आनी साहित्याचो राज्य पुरस्कार भेटोवन शासनान ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**सान मारिनो :** एक ल्हानसो युरोपी देश, जाका चारूय वटांनी इटली देशान रेवडिला. इटलिंतल्या ॲपनायन पर्वतांत ताचो आस्पाव जाता. देशाचो चडसो भाग माउन्ट टिटानोचेर वसला. ह्या देशाच्या राजपाटणाचें नांव सान मारिनोच. देशांतल्या सगळयांत ल्हान देशांभितर सान मारिनोचो आस्पाव जाता. ताचें क्षेत्रफळ ६१ चौ. किमी. सान मारिनो हें संवसारांतलें एक सगळयांत पोरनें प्रजासत्ताक. इ.स. ३०० सावन तें स्वतंत्रपणान नांदता. 'ला सारेनिसिमा रिपब्लिका दी सान मारिनो'.

**भूंयवर्णन आनी हवामान :** देशाची चडशी भूंय दोंगरी. माउन्ट टिटानो हो देशांतलो सगळयांत उंचेलो पर्वत. त्या पर्वतांत तीन तेमकां आसून, सगळयांत उंचेल्या तेमकाची उंचाय सुमार ७७५ मीटर आसा. ह्या तिनूय तेमकांच्या माथ्यार मध्ययुगांत टॉवर उबारिल्ले आसात. देशाचें राजपाटण सान मारिनो हें पर्वताच्या माथ्यारूच आसा. हांगाची चडशी भूंय फातरी. सान मारियोंतलो गीम सौम्य आसून त्या दिसांनी सरासरी तापमान २४° सॅ. पूण शिंयाच्या दिसांनी कांय वेळां तापमान गोठबिंदू सकयल देंवता. देशांत सरासरी वर्सुकी पावस ८९ सेंमी. इतलो पडटा.

**इतिहास :** देशाचे परंपरेप्रमाण, इ.स. ३०० त मारिनस ह्या फातर कांतपी किरिस्तांव मनशाक ह्या देशाची स्थापना केली. ताचे वयल्यान ह्या देशाक सान मारिनो हें नांव मेळळें. त्या वेळार रोमी लोकांच्या धार्मिक छळांक लागून तो माउन्ट टिटानो पर्वताचेर पळून गेल्लो. उपरांत थंयच ताणें नव्या प्रजासत्ताकाची स्थापणूक केली. ८८५ च्या सुमाराक थंय स्वतंत्र किरिस्तांव समाज उदयाक आयलो. १३०० त थंय गणतंत्राची स्थापणूक केली. फुडलीं सुमार दोनशांवयर वर्सां सान मारिनोच्या लोकांक आपल्या देशाची राखण करपाखातीर एकसारकें शेजारच्या राज्यांकडेन झगडत रावचें पडलें. १६३१त पोपान सान मारिनोच्या स्वातंत्र्याक मान्यताय दिली. उपरांत जेन्ना कट्टर धर्मवादी इटली लोकांनी सान मारिनोचेर घुरयो घालपाचे यत्न केल्ले, तेन्नाय पोपान तांकां विरोध केल्लो.

सान मारिनोच्या भोंवतणी आशिल्लो वाठार १८६१त इटली राज्याचो भाग जालो. उपरांत १८६२त सान मारिनो आनी इटली ह्या दोनूय देशांभितर इश्टागतीची कबलात जाली. १८७२त ती परतून केली. तेन्नाच्यान ह्या दोनूय देशाभितल्ले संबंद ते कबलातीवरवीं चलतात. दुसऱ्या म्हाझुजा वेळार सान मारिनोन तटस्थतायेची भुमिका आपणायल्ली. पूण त्यावेळार देशांत फॅसिस्टांची राजवट चलताली. १९४४त ब्रिटिशांनी देशाचेर बाँब हल्लो केल्लो.

१९४५ ते १९५७ मेरेन देशांतल्या कम्युनिस्ट आनी समाजवादी पक्षान मेळून जोडपावलान सरकार चलयलें. १९५७त किरिस्तांव लोकशाय पक्ष सत्तेर आयलो. उपरांत लोकशाय पक्षान देशाचेर वीस वर्सां आपलो शेक गाजयलो. १९७८त परतून कम्युनिस्ट, समाजीक आनी हेर पक्षांनी मेळून सरकार स्थापित केलें. तोमेरेन देशाचेर चडकरून तांचोच शेक चलता.

सान मारिनो एक प्रजासत्ताक. विधिमंडळ म्हळयार ग्रँड आनी जनरल काउन्सिल देशांतले कायदे करता. भौशिक मतदानान काउन्सिलाचे ६० वांगडी पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात. काउन्सिल आपल्या भितल्ल्या दोन वांगड्यांक सरकारचें फुडारपण करपाखातीर वेंचून काडटात. तांकां कॅप्टन - रॅजन्ट अशें म्हण्टात. तांकां स म्हयन्याखातीर वेंचून काडटात. पूण तांकां तीन वर्सांवयर परतून वेंचून काडपाक मेळना. ते दोगूय मेळून वेगवेगळया सरकारी विभागांखातीर मुखेली नेमतात. कॅप्टन - रॅजन्ट आनी विभागीय मुखेली मेळून राज्याची काँग्रेस तयार जाता. भौशिक मळार उदरगत घडोवन हाडपाखातीर दर कुटूंबांतले मुखेली एकठांय येवन तांचेर भासाभास करतात. ही परंपरा शेंकड्यांनी वर्सांसावन चलत आयल्या.

**अर्थीक स्थिती :** पर्यावरण हो देशाक चड येणावळ दिवपी मुखेल उद्देग. दर वर्सा सान मारिनोंत लाखांनी भोंवडेकार येतात. शेतवड होय देशांतलो म्हत्वाचो वेवसाय. बार्ली, चेसनट, गंव, भाजीपालो आनी फळफळावळ हीं देशांतलीं मुखेल पिकां. फळावळींत द्राक्षांचो वांटो व्हड. द्राक्षांपसून सोरो काडप, हो धंदो थंय नेटान चलता. जनावरांचें चामडें कमवप हो शेतवडीक जोड आशिल्लो सगळयांत म्हत्वाचो धंदो. सॅरामीक, चामड्याच्यो वस्तू, नळे, फरशो, वॉर्नीश आनी लुगट हे देशांतले म्हत्वाचे उद्देग. घरकामांक लागपी फातर आनी चुनखडीसावन मेळपी येणावळूय म्हत्वाची. सान मारिनोच्या टपाल स्टँपाक आंतरराश्ट्रीय बाजारांत खूब खप आसा. येरादारीच्या मळार खूब सुदारणा जाल्ली आसा. रिमिनी हें इटलींतलें देशाक चड लागीं आशिल्लें शार, रस्ते आनी रेल्वे मार्गांनी जोडलां. गिमाच्या दिसांनी ह्या शारांत वचपाखातीर सान मारिनोन खासा हेलिकॉप्टर सेवा दवरल्या.

**लोक आनी समाजजीण :** १९९१चे जनगणनेप्रमाण देशांत सुमार २३,००० लोक आशिल्ले. इटलीच्या उत्तरेकडच्या लोकांकडेन तांचे लागींचे संबंद आसात. देशांतलें चडशे लोक रोमन कॅथलीक आसून ते इटालियी भास उलयतात. देशांतले चडशें लोक पर्यावरण उद्देगांत घुस्पल्यात. हांगाचे लागीं लागीं सगळे लोक शिक्षित आसात. ६ ते १४ वर्सां पिरायेच्या सगळया भुरग्यांक शिक्षण कायद्यान सक्तीचें केलां. सान मारिनोंतल्या चडशा घरांनी टेलिफोन, रेडिओ आनी टिव्ही संच आसात. सिनेमाकूय थंय चड प्रतिसाद मेळटा. लोक आपले सण वा परब व्हड उमेदीन मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**सामवेद :** चतुर्वेदांतलो तिसरो वेद. हाची उत्पत्ती सुर्यापसून जाली अशें म्हण्टात. सामवेदापसूनच ब्राह्मणाची उत्पत्ती जाली अशें तैत्तिरीय

संहितेंत म्हळां.

साम म्हळयार प्रिय वा प्रियकर वचन. कांयकडे गान ह्या अर्थानय हो शब्द घेतला. सामवेदांत ऋग्वेदांतले जायते मंत्र घेतिल्ले आसून ताच्या आदारान जें गायन करतात ताका साम म्हण्टात. कांयकडेन ऋग्वेद मंत्राकच साम म्हणिल्लें आसा. साम शब्दाची एक खाशेली विरुक्ती बृहदारण्यकांत मेळटा ती अशी - सा च अमश्चेति तत् साम्न : सामत्वम् । (बृहदा. १.३.२२) : अर्थ - सा म्हळयार ऋचा आनी अम म्हळयार गांधारादी स्वर दोनूय मेळून साम जाता. हाचेवयल्यान ऋचेकडे संबंदीत अशें स्वरप्रधान गायन म्हळयार साम असो ताचो अर्थ जाता. ऋचा आनी साम हांच्यामदलो गाड संबंद दारवोवपारवातीर ऐतरेय ब्राह्मणांत त्या दोगांयमदीं दांपत्यभावाची कल्पना केल्ली आसा.

'सामानि यो वेत्ति स वेद तत्वम्' जाका साम खबर आसा ताकाच वेदाचें गुपीत कळटा अशें बृहद्देवतेंत म्हळां. 'वेदानां सामवेदोऽस्मि' (सगळया वेदांत हांव साम वेद आसा) अशें श्रीकृष्णान म्हणिल्लें आसा. ॐकार हें सामवेदाचें सार आशिल्ल्याचें छांदोग्यांत म्हळां. ऋग्वेद आनी अथर्ववेद ह्या दोनय वेदांत सामवेदाची प्रशस्ती मेळटा. पुर्विल्ल्या वैदिक साहित्यांत वेगवेगळीं सामाचीं नांवां मेळटात. वैरूप, बृहत, रैवत, गायत्र, भद्र ही सामाचीं नांवां ऋग्वेदांत मेळटात. यजुर्वेदांत हीं नांवां रथंतर, वैराज्य, वैखानस, वामदेव्य, शाक्वर, रैवत, अभीवर्त अशीं मेळटात. ऐतरेय ब्राह्मणांत हीं नांवां नौधस, रौरव, अग्नीश्टोमीय अशीं मेळटात.

**सामवेद आनी यज्ञसंस्था :** यज्ञसंस्थेचो विचार केल्यार ऋग्यजु : साम ह्या तिनय वेदांचो यज्ञाकडे साक्षात संबंद मेळटा. यज्ञांतलीं वेगवेगळीं कर्मां करपी ऋत्विज वेगवेगळे आसतात आनी तांकां वेगवेगळीं नांवांय आसतात. देवतांक खोशी करपाक ऋचांचें गायन करपाचें काम सामवेद्यांचें आसा. तें करपी चार ऋत्विजांचो एक गट आसता. ताच्या मुखेल्याक उद्गाता म्हण्टात. एकाद्रें साम तयार जालें म्हण्टकच ताच्या गायनाचे पांच अवयव जातात. ते अशे - (१) प्रस्ताव : हो मंत्राचो सुरवेचो भाग आसून ताची सुरवात हुं अशा उच्चारान जाता. गायक गटांतलो प्रस्तोता हो ह्या अवयवाचें गायन करता. (२) उद्गीथ : ह्या अवयवाचे सुरवेक ॐ उच्चारतात आनी उद्गातो हो अवयव उच्च स्वरांत गायतात. (३) प्रतिहार : हाचेअर्थ दोन पदांक जोडपी असो जाता. होच निमाणो जो ॐकार येता तो प्रतिहर्ता गायता. (४) उपद्रव : ह्या नांवाचो अवयव आसा तो उद्गातो गायता. (५) निधन : हातूंत मंत्राच्या निमण्या दोन पदांचे अंश वा ॐकार उरता. हाचें गायन उद्गाता, प्रस्तोता आनी प्रतिहर्ता अशे तिगूयजाण मेळून करतात.

**सामगान पद्धत :** सामयोनी मंत्राच्या आदारान ऋषींनीं गानपद्धतीची रचणूक केल्ली आसा. हे रचणुकेचे चार प्रकार जातात - (१) ग्रामगेयगान : हाकाच प्रकृतिगान वा वेयगान अशेंय म्हण्टात (२) आरण्य गान (३) ऊहगान (४) ऊह्यगान - हाका रहस्यगान अशेंय म्हण्टात. सामयोनी मंत्राचो गानरुपांत बदल करतना त्या मंत्रांत संगितानुकुल अशे स शाब्दिक बदल जातात. तांचीं नांवां अशीं- (१) विकार : शब्दांचे बदल, देखीक - अग्नेच्या जाग्यार ओग्ना आदी (२) विश्लेशण : हातूंत एकाच पदाचें पृथक्करण जाता. देखीक, वीययेचे सुवातेर वो, यि, तो, या, २. (३) विकर्षण : एका स्वराचें खूबवेळमेरेन वेगवेगळें उच्चारप. देखीक, ये ह्या अक्षराचो या २ ३ यि. (४) अभ्यास : एकाद्र्या पदाचो परत परत उच्चार करप देखीक : तोयायि, तोयायि (५) विराम : सोयीखातीर एकाद्र्या पदाच्या मदीं थांबप. देखीक : 'गृणानोह, व्यदातये', हातुंतल्या ह उपरांत रावप (६) स्तोभ : औ, ओवा, हा, उ, इ आदी गावंक बरें जाता त्या उद्गगारांचें उच्चारण.

सामगान करता आसतना तातुंतल्या ऋचांची आवृत्ती करतात. अशे आवृत्त ऋचेक सोम म्हण्टात. सद्या साम ह्या तीन ऋचांचेर आदारून गायतात आनी ताचे तीन पयार्य म्हूण आवृत्ती करतात. सामांतल्या ऋचांची आवृत्ती कितले फावट जाता ताचेर स्तोत्रांची संख्या आदारीत आसता. तांड्य ब्राह्मणांत ऋचांचे णव प्रकार सांगल्यात ते अशे - (१) त्रिवृत् (२) पंचदश (३) सप्तदश (४) एकविंश (५) त्रिणव (६) त्रयस्त्रिंश (७) चतुस्त्रिंश (८) चतुश्चत्वरिंश (९) अष्टचत्वारिंश. पंदरा आवृत्ती जाता तो पंचदश.

सामगानांत पदांच्यावयर १ ते ७ अंकांनी संगिताच्या स्वरांचो निर्देश करतात. सद्या चडशा मंत्रांत पांचूच स्वर लागतात. स आनी सात स्वरांनी गांवपांत येवपी सामां सामकीं थोडीं आसतात. सामगानांतल्या ह्या सात स्वरांचो मुरलेकडे संबंद येता तो असो -

| साम स्वर | मुरली स्वर |
|---|---|
| (१) प्रथम | मध्यम (म) |
| (२) द्वितीय | गांधार (ग) |
| (३) तृतीय | ऋषभ (रे) |
| (४) चतुर्थ | षड्ज (सा) |
| (५) पंचम | निषाद (नि) |
| (६) षष्ठ | धैवत (ध) |
| (७) सप्तम | पंचम (प) |

विनत, प्रणत, उत्स्वरित आनी अभिगीत अशे अवांतर चार स्वर सांगल्यात.

**शाखाविस्तार :** पतंजलीच्या वचनांत सामवेदाच्यो सहस्त्र शाखा आशिल्ल्यो असे उल्लेख मेळटा. सामवेदाच्यो शाखा निर्माण करपी तेरा ऋषींचीं नांवां मेळटात, तीं अशीं - राणायन, सात्यमुग्र, व्यास, भागुरी, औलुंडी, गौल्गुलवी, औपमन्यव, काराटी, मशकगार्ग्य, वार्षगव्य, कुथुम, शालिहोत्र आनी जैमिनी ह्या तेरा ऋषींवयल्यान तेरा

शाखांचीं नांवां मेळटात. तातुंतल्यो सद्या तीनूच शाखा उपलब्ध आसात - (१) कौथुम (२) राणायनीय (३) जैमिनीय. हातुंतली कौथुम गुजरातेंत, राणायनीय महाराष्ट्रांत आनी तिसरी दक्षिणेंतल्या केरळ वाठारांत आनी तिनेवेल्ली तशेंच तंजाऊर जिल्ह्यांत प्रचलित आसात.

**(१) कौथुम शाखा :** हिची संहिता सगळयांत चड प्रचलित आसा. हे संहितेची तांड्य नांवाची एक उपशाखा मेळटा. हे संहितेचे पूर्वार्चिक आनी उत्तरार्चिक अशे दोन भाग आसात. पयल्या भागाक छंद, छंदसी वा छंदसिका अशें म्हण्टात. पूर्वार्चिकाचे आग्नेय, ऐंद्र, पवमान आनी आरण्यक अशे चार भाग आसात. हे भाग विशयाप्रमाण आसून तांकां पर्व म्हण्टात. पूर्वार्चिकाचे स प्रपाठक वा अध्याय आसात आनी दर एका प्रपाठकाचे दोन खंड आसात. दर एका खंडांत एक दशती म्हळयार १० ऋचा आसपाच्यो पूण त्यो खूबकडेन उण्यो चड आसात. पयल्या प्रपाठकाक आग्नेय पर्व म्हण्टात. तातूंत अग्नीविशींच्या ऋचांचो चोमो एकठांय केल्लो आसा. दुसऱ्या ते चवथ्या प्रपाठकांत इंद्राविशींच्या मंत्राचें संकलन आशिल्ल्यान ताका ऐंद्र पर्व म्हण्टात. पांचव्या प्रपाठकाचें नांव पवमान आसून तातूंत ऋग्वेदाच्या णवव्या मंडलांतल्या सोमाविशींच्या ऋचांचो संग्रह आसा. सव्या प्रपाठकाक आरण्यक अशें नांव आसा. १ ते ५ प्रपाठकांतल्या ऋचांक ग्रामगान म्हण्टात. कारण ह्यो ऋच्या गांवांत म्हळयार लोकांमदीं गावपाच्यो आसतात. सव्या प्रपाठकांतल्यो ऋच्या मात रानांतूच गायतात. ह्या प्रपाठकाच्या निमाणें परिशिश्टरुपान महानाम्नी नांवाच्यो १० ऋच्या दिल्ल्यो आसात. ह्यो सगळयो ऋच्या मेळून पूर्वार्चिकांतल्यो ऋचा ६५० मेळटात.

उत्तरार्चिकांत णव प्रपाठक आसात. तातुंतल्या पयल्या पांच प्रपाठकाचे दर एकी दोन खंड आसात आनी निमण्या चार प्रपाठकांचे दर एकी तीन खंड आसात. उत्तरार्चिकाचे दशरात्र, संवत्सर, एकाह, अहीन, सत्र, प्रायश्चित आनी क्षुत्र अशे विशयाप्रमाण सात भाग जातात. उत्तरार्चिकाच्या सगळया मंत्रांची संख्या १२२५ आसा. पूर्व आनी उत्तर अर्चिकाची वट्ट संख्या १८७५. सामवेदांतल्यो खुबशो ऋच्या ऋग्वेदांतल्यान घेतिल्ल्यो आसात. तशेंच पूर्वार्चिकांतले २६७ मंत्र परत उत्तरार्चिकांत घेतिल्ले आसात. ऋग्वेदांतल्यान १५०४ ऋचा घेतिल्ल्यो आसून तातुंतल्यो ९९ ऋचा नव्यो आनी वेगळयो आसात.

**(२) राणायनीय शाखा :** मंत्रगणनेचे नदरेन ही शाखा कौथुमशाखे वांगडचीच आसा. फकत उच्चारण पद्दतींत कांयकडेन वेगळेपण दिसता. कौथुमीय लोक जंय हा, उ आनी अ, आ, इ असो उच्चार करतात थंय राणायनीय लोक हा, वु आनी या, यी असो उच्चार करतात. हे शाखेची सात्यमुग्री नांवाची उपशाखा आसा. हे शाखेचे लोक एकार आनी ओंकार हांचें ऱ्हस्व उच्चारण करतात.

**(३) जैमिनीय शाखा :** हे शाखेचे संहिता, ब्राह्मण, श्रौतसूत्र आनी गृह्यसूत्र अशे चार अंश उपलब्ध आसात. हे शाखेंतल्या मंत्रांची संख्या १६८७ आसा. जैमिनीयांचें सामगान कौथुमशाखेपरस सुमार एक हजारान चड आसा.

**सामवेदाचीं ब्राह्मणां :** तांड्य महाब्राह्मण्य वा पंचविश ब्राह्मण, षडविंशब्राह्मण, जैमिनीय ब्राह्मण, वंशब्राह्मण, आर्षेयब्राह्मण, मंत्रब्राह्मण आनी सामविधान ब्राह्मण हीं सामवेदाचीं ब्राह्मणां आसात. तशेंच छांदोग्य, केन, जैमिनीय वा तलवकार हीं ह्या वेदांचीं तीन उपनिशदां आसात.

**सामतंत्र :** हातूंत तेरा प्रपाठक आसून सामगायनाचो विधी, ताचे संकेत आनी ताची पद्दत हांचें वर्णन आसा. हें एके तरेचें सामवेदाचें व्याकरणूच म्हळयार जाता.

**गांधर्ववेद :** हाका सामवेदाचो उपवेद मानला.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : वेद

**सायमन कमिशन :** ब्रिटीश काळांतले भारतांतले परिस्थितीचेर अभ्यास करपाखातीर नेमिल्लें एक मंडळ. हाची स्थापना इ.स. १९२७ वर्सा जाल्ली. ह्या कमिशनांत अध्यक्ष म्हणून जॉन सायमन, लिबरल पक्षाचो एक वांगडी, कॉन्झर्व्हेटिव्ह पक्षाचे चार वांगडी आनी मजूर पक्षाचे दोन वांगडी आशिल्ले. हें मंडळ इ.स. १९२८ त फेब्रुवारींत भारतांत आयलें.

भारतांतल्या सगळया पक्षांचो ह्या कमिशनाक विरोध आशिल्लो. सप्रू, ॲनी बेझंट, जिन्न आदी फुडाऱ्यांनी एक पत्रक काडून सायमन कमिशनाक आदार न दिवपाचें आव्हान केल्लें. काँग्रेसचो अध्यक्ष श्रीनिवास अय्यंगार हाणेंय पत्रकांवरवीं सायमन कमिशनाचो निशेध केल्लो. भारतीयांक स्वताची घटना स्वता तपासूंक मेळची अशी तांणी मागणी केली. सायमन कमीशन जंय जंय गेलें थंय थंय ताका 'सायमन परत वच' हीच घोशणा आयकुंची पडली. तांच्या निशेधाखातीर जमिल्ल्या जमावाचेर मुंबय आनी मद्रास हांगा गोळीबार करचो पडलो. ह्यावेळार लाला लजपतराय, जवाहरलाल नेहरू, गोविंद वल्लभपंत आदी जायत्या व्हड व्हड फुडाऱ्यांनी मोर्च्याचें फुडारपण केल्लें.

सायमन कमिशनान १९३० त दोन खंडांनी आपलो अहवाल तयार केलो. हे शिफारशींत भारताचें एक संघराज्य करचें, प्रांतिक स्वायत्ता पुरायतरेन प्रत्यक्षांत हाडची, मतदानाचो अधिकार चड व्यापक करून विधानमंडळां चड प्रतिनिधीक करचीं अशो जायत्यो शिफारसी आशिल्ल्यो.

- कों. वि. सं. मं.

**सायल :** उंच आनी सरळ वाडपी वनस्पत. Tectona Grandis हें सायलाचें शास्त्रीय नांव. पानांचो आकार व्हड आनी शिरो स्पश्ट

दिसतात. पानांचो वयलो भाग खरखरीत आसता. लांकडाचो रंग आकर्शक आसून लांकूड खूब काळ तिगता. सायलाक जून ते सप्टेंबर ह्या काळांत फुलां येतात. नोव्हेंबर ते जानेवारी ह्या काळांत फळां येतात. एका फळांत कितल्योशोच बियो आसतात फळ टणक आसता. सायल ही खूब वर्सां जगपी, पानझडी प्रकारांतली वनस्पत. सायलाचें झाड दिसपाक बहारदार दिसता. हाकालागून सायलाक वृक्षराज अशें म्हण्टात.

संबंद जगांत ब्रह्मदेशाचो सायल, बर्मा टीक ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. ब्रह्मदेश, भारत, थायलँड, लाओ, मलेशिया, इंडोनेशिया, ह्या देशांत सायलाची लागवड व्हडा प्रमाणांत आसा. भारतांत महाराष्ट्र, केरळ, आंध्र प्रदेश, तमिळनाडू, मध्य प्रदेश, गुजराथ, राजस्थान, ओरिसा, कर्नाटक ह्या राज्यांनी सायलाचीं व्हडलीं रानां आसात.

वर्सुकी ७५० ते ५००० मिमी. पावस पडटा त्या वाठारांनी, सायल बरे जावपाक शकतात. १२° - ४५° सॅ. तापमानांत सायल बरे जावन येतात. दर्यादिगेपासून ३५०० फूट उंचायेमेरेन सायल बरे जातात. खोल, उदकाचो बरो निचरो जावपी जमनी सायलाक मानवतात. ६.५ ते ८.० इतको सामू आशिल्ले जमनींत सायल बरे येतात. चुनो आनी स्फुरदाचें प्रमाण चड आशिल्ल्यो खडकाळ जमनी, पाणथळ तशेंच दलदलीच्या जमनींत सायलाची वाड बरी जायना.

सायलाची लागवड करपाखातीर पयलीं वाफ्याचेर बियो घालून रोपयो तयार करतात. बी किल्लत घालच्या पयलीं, सात दीस वतांत सुकयतात. रोप एक वर्साचें जातकच ताचें खोडमूळ तयार करतात. खोडमूळ लावपाखातीर ६० x ६० x ६० सेंमी. नेम मारतात. तातूंत अर्द किलो स्टेरामील, अर्द किलो मसुरी फोस्फेट, तशेंच १०० ग्रॅम येन्डोसेल्फन ह्या वरवदाचो पिठो घालतात. खोडमूळ लायतना ताचो एक इंच भाग वयर दवरतात. ४ x ४ मीटर अंतराचेर खोडमूळांची लागवड करतात. अशें केल्यार हेक्टरी ६२५ झाडां बसतात. पूण आधुनिक पद्दतीन सायलाची लागवड केल्यार ८-१० दिसांनी एकदां उदक दितात. दर एका रोपाक वर्साक १० ग्रॅम नत्र, १० ग्रॅम स्फुरद आळे पद्दतीन दितात.

सायलाक ''मर'' रोगाची लागण जावन जायते फावट, रोपवाटीकेंतलीं रोपां मरतात. ह्या रोगाची लागण जाल्यार रोपयो ल्हान आसतना मरतात. ह्या रोगाआड ४० ग्रॅम फायटालोन १० लिटर उदकांत घालून हें मिश्रण रोपयो आशिल्ल्या वाफ्याचेर ओततात. तशेंच उदकाचो निचरो बरो जाता म्हणपाची खात्री करून घेतात. सायलाक लागपी आनीक एक रोग म्हणजे पानां करपपी रोग. ह्या रोगाची लागण जाल्यार पयलीं पाचवे थिपके दिसतात. पानांचे सकयले वटेन पळयल्यार हे थिपके हळदुव्या रंगाचे दिसतात. ल्हव ल्हव पानां झडपाक लागतात. ह्या रोगाची लागण जाल्यार प्लॅटोव्हेक्स नांवाच्या बुरशीनाशकाचो वापर करतात.

धवी कीड आनी पानां खावपी कीड अशो दोन किडी सायलाचें नुकसान करतात. धवी कीड रोपाचीं मुळां खाता. हे किडीआड येन्डोसल्फन ह्या वरवदाचो वापर करतात. पानां खावपी कीड ही नांवाप्रमाण पानां खाता. हे किडीआड १५ मिली. येन्डोसल्फन हे वरवद १० लिटर उदकांत घालून ताचो झाडाचेर फवारो मारतात. सायलाक हुंदराकडच्यानय पिडापीड जांव येता.

एका वर्साच्या काळांत सायल १.०० ते १.५ घनमीटर वाडटा आनी घेराव २ ते ५ सेंमी. वाडटा.

सायलाचो मुखेल उपेग मदेराचें आनी फर्नीचराचें लांकूड निर्माण करपाक जाता. सायलापासून तयार केल्ल्यो वस्तू टिकाऊ आसता. सायलाच्या पानांपासून रंग तयार करतात. हो रंग रेशीम रंगोवपाखातीर वापरतात. सायलाच्या तेलाचो कातीच्या रोगाआड उपेग करतात. सायलाच्या भुशाचो लेप, तकली उसळप जाव सूज आयल्यार लायतात. बियांपसून तयार केल्ल्या तेलाचो उपेग केंसाक लावपाखातीर करतात.

- विश्राम गांवकार

**सारंगी :** एक तंतूवाद्य. पणस वा साल ह्या झाडांचें लांकूड पोरवरून हें वाद्य तयार करतात. सारंगीची लांबाय सुमार दोन फूट आसता. सकयल्या भागाक मंथान आनी वयल्या भागाक छाती वा गळो अशें म्हण्टात. तिचे सकयले वटेन चामड्याचें वेश्टन आसता. वयल्या पोकळ भागांत दर एके वटेन दोन दोन खुंटयो बसयल्ल्यो आसतात. हिका तीन तातीच्यो तारो आनी एक पितूळची तार अशो चार तारो आदाराखातीर लायिल्ल्यो आसता.



सारंगी

सद्याचे सारंगींत अनुध्वनीखातीर पंदरा ते वीस तारो मुखेल तारांच्या सकयल लायिल्ल्यो आसतात. कुशीक आशिल्ल्या ल्हान खुंटयांक ह्यो तारो बांदिल्ल्यो आसतात. पितळी आनी तिख्याच्यो तारो रागाक अणसरून स्वरसप्तकांत लायतात.

सारंगीचो वयलो भाग खांद्यार दवरून सकयलो भाग मांडयेर घेवन उजव्या हातांत धरिल्ल्या गजान तार

वाजयतात आनी दाव्या हाताच्या बोटांनी तार कुशींतले तारेकडे दामून स्वर निर्माण करतात. ह्या गजाक घोड्याचे केंस लायिल्ले आसतात.

हकीम बकरात गौ हाणें सारंगी हें वाद्य निर्माण केलें म्हण्टात. तशेंच मियाँ कल्लूखॉन तें तयार केलें अशेंय सांगतात.

इ.स.च्या १६ व्या शेंकड्याच्या निमाणेकडेन शार्ङ्गदेवान सारंगीचो उल्लेख केला. सारंगीच्या मध्यकालीन उल्लेखांवयल्यान हें मुळांत लोक वाद्य आसुंये आनी उपरांत फाव त्यो सुदारणा करून ताचो अभिजात वाद्यांत आस्पाव केलो आसुंये, अशें दिसता.

हें मधुर वाद्य आसून, तें साथ दिवपाखातीर तशेंच स्वतंत्र वादनाखातीर वापरतात.

बुंदुखाँ, गुलाम साबिर, मिर्जा महमूद अली, राम नारायण हे कांय नामनेचे सारंगी वादक आसात.

- कों. वि. सं .मं.

**सालदाञ्ज आंतोनियु :** (जल्म : १५९८, मोरोक्को, आफ्रिका; मरण : १६६३, साश्टी).

नामनेचो मिशनरी कवी. ताचो बापूय पुर्तुगेज आनी आवय इटालियन आशिल्ली. लश्करांत सामील जावपाक आंतोनियु भारतांत आयिल्लो. पूण योगायोगान तो जेजुइट सोसायटींक लागीं जालो. १६१५ त ताणें धर्मोपदेशकाचो पेशा आपणायलो आनी तेन्नाच्याच सुमार पन्नास वर्सां ताणें साश्टीच्या जेजुईत मिशनांत काम केलें.

ताणें कोंकणी आनी मराठीचो खोलायेन अभ्यास केलो. ह्यो भाशा तो सहजतायेन उलयतालो. ताणें 'सांतु आंतोनीची जीवित्वकथा' हो काव्यग्रंथ बरयलो. सेंट पिटरावरीच सेंट अँथनी हो दुसरो एक खिस्त शिश्य जावन गेलो. सालदाञ्ज हाणें ताच्या चरित्राचो विशय घेवन आपलो पुराणग्रंथ बरयलो. १६५५ त हो ग्रंथ मुद्रित जालो. ताचो 'जिवितवृक्षाची फळें' (Fruitos de Arvore do Vida) ह्या नांवाचो आनीक एक हस्तलिखित ग्रंथ लंडन हांगा आसून ताची मुद्रीत प्रत खंयच उपलब्ध ना.

- कों. वि. सं. मं.

**सालदाञ्ज, विसेंत जुआंव पेद्रु :** (वि.जे.पी - खडप) (जल्म : ९ जून १९२५, मंगळूर; मरण : २२ फेब्रुवारी २000, मंगळूर).

नामनेचो कोंकणी साहित्यिक. ताका वि.जे.पी. म्हूण वळखताले. ताणें प्राथमिक शिक्षण सेंट जॉजफ शाळेंत घेतलें. उपरांत एम. ए. जातकच मंगळूरच्या हायस्कुलांत शिक्षकाचें काम केलें. १९५0 वर्सा कोंकणी फिल्म तयार करपाखातीर मुंबय गेलो. थंय तो हिंदुस्थान कोऑपरेटीव्ह इन्शुरंस सोसायटींत काम करूंक लागलो. तेन्नाच ताणें 'पयणारी' हें कोंकणी सातोळें (कानडी लिपींत) चालू केलें. सात वर्सां तो त्या पत्राचो संपादक आशिल्लो. १९६0 वर्सा तो परत मंगळूराक आयलो.

मंगळूरांत कांय तेंप ताणें 'नवभारत', तशेंच 'कन्नडवाणी' ह्या कन्नड दिसाळयांचो संपादक म्हूण काम केलें.

'खडप' ह्या लिखणे नांवान ताणें ५0 वयर कादंबऱ्यो, सुमार ७0 नाटकां आनी १५00 वयर कवनां आनी गितां तशेंच जायतें लिखाण केलां. चरित्र कादंबरीकार म्हणूनय ताची नामना आशिल्ली. टिपू सुलतानान किरिस्तांव लोकांक बंदखणींत दवरिल्ले ताचेर आनी इंक्विजिशनाचे फांटभूयेर ताणें जायत्यो कादंबऱ्यो बरयल्यात. तातुंतल्या देवाचे कुर्पेन, बेलगडीचो नालताजार, मोगाची महिमा, सायबा भोगस, वांजेलाचे वाटेर, या तरी मंगळपरी हांची चड नामना आसा.

कोंकणी साहित्याच्या आनी कलेच्या मळार ताणें केल्ल्या उपाट वावराक लागून १९८२ वर्सा ताका अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो अध्यक्ष केलो. १९७५ - ७६ वर्सा तो कर्नाटक कोंकणी भाशा मंडळाचो अध्यक्ष आशिल्लो. मंगळूरांत १९९२ वर्सा 'कर्नाटक साहित्य अकादमी' स्थापन जाली. तिचो पयलो अध्यक्ष जावपाचो मान ताका मेळ्ळो. 'राकणो' पत्राच्या संपादक मंडळांत ताणें २५ वर्सां काम केलां. तेभायर 'अमर कोंकणी' हे नागरी आनी कन्नड लिपींत उजवाडा येवपी त्रिमासीक पत्रिकेचो तो संपादक आशिल्लो.

ताका संगिताचीय आवड आशिल्ली. फिलमिनिक कॉयार घडोवन ताणें जायत्यो संगीत कार्यावळी केल्यात. ताणें योगाचो तशेंच होमयोपथीचोय अभ्यास केल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**सालदाना, जुजे लॅडिसलाव :** (जल्म : २६ जून १९१३, सांत - इस्तेव, तिसवाडी; मरण : ३0 जून १९८१).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक शिक्षण इंग्लिशींतल्यान घेतलें. गोवन युथ लीग, नॅशनल कॉंग्रेस गोवा आनी युनायटेड फ्रंट गोवन्स ह्या संघटनांच्या राजकीय फुडाऱ्यांच्या मार्गदर्शनाखाल तो वावर करतालो. हाचेभायर राश्ट्रीय पत्रकां वांटपाचेंय तो काम करतालो. पोलिसांनी ताका काणकोणा धरलो आनी पणजे हाडून णव म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार चवकशी करून आग्वाद बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सालाद :** हरव्या भाज्यांपासून तयार केल्लो एक खाण प्रकार. प्राचीन काळापासून 'सालाद' ह्या जिनसाक आमच्या आहारांत म्हत्व आसा. ऋषी - तपस्वी आपल्या आहारांत हरव्यो भाज्यो जांव कंदमूळां हांचोच आस्पाव करताले. कारण ह्या हरव्या आहारांतल्यान तांकां

तातुंतलीं जिवनसत्वां मेळटालीं. पचनाखातीर हलको आनी सुटसुटीत आशिल्ल्या ह्या प्रकाराक लागून बलायकी बरी आनी टवटवीत उरपाक तशेंच बुध्दी तेजस्वी जावपाक मदत जाताली.

'सालाद' ह्या इंग्लीश उतराक कोशिंबीर हें भारतीय नांव आसा. थरावीक भाज्यो किसून वा बारीक चिरून केल्लो हो प्रकार.

सालादाचें कांय प्रकार अशे -

**(१) शिवराक - (पाचवो) सालाद :** टोमाट, कांदो, गाजर, तवशें, फ्लावर, बीटरूट, कोबी, सालाड ह्या भाजांचीं पानां, डब्बू मिरसांगो हें सगळें बारीक शिनून एकठांय केले उपरांत मागीर तातूंत बारीक चिरिल्ल्यो मिरसांगो, लिंबाचो रस बारीक चिरिल्ली ओली कोंथबीर आनी रुचीपूरतें मीठ घालून सगळें मिस्तुराद करतकच हें सालाद जाता.

**(२) फळांचो सालाद :** तरातरांचीं पिकीं फळां कापून एकठांय करचीं. उज्यार सळसळत्या दुदांत साखर आनी कस्टर्ड पावडर घालून तें दाट मिश्रण न्हिवतकच ह्या फळांर आतोवचें. मागीर फ्रीजींत कांय वेळ हो सालाद दवरून खावचो.

**(३) मांसाहारी सालाद :** फळां, भाजी, कंदमुळां, उकडिल्लीं तांतयां, शिजयिल्लें नुस्तें आनी मांस, अशे जिन्नस वापरून हो सालाद करतात.

अस्तंती पाककृतीचें अनुकरण करून केल्ल्या आधुनिक पद्दतीच्या सालादांत तेल, व्हिनीगर, चीज, मायोनीज सॉस, तशेंच उकडिल्ल्या भाज्यांचो आस्पाव करतात.

सत्त्वाचें प्रमाण चड आशिल्ल्यान आधुनिक काळांत सालाद बरेंच लोकप्रिय जालां. तेचवांगडा जेवणाचें मेज सुशोभीत करपाच्या उद्देशानय मेजार सालादाचे विविध कलात्मक प्रकार दवरपाची फॅशन आसा.

- अमिता नायक सलत्री

## साल्गादु, राफेल द फिक्वेरेदू : (जल्म : कोचीन; मरणः १६९५ पल्लीपुरम).

क़ोचीनचो गोंयकार व्हिकार जनरल. तो मुळचो गोंयच्या मडगांव शारांतलो. पूण धर्मीक शिक्षण घेतल्या उपरांत १६७१ ते १६७७ काळ मेरेन ताणें कोचीनचो व्हिकार जनरल म्हूण काम केलें. उपरांत १६७७ वर्सा डी. थॉमस द काश्त्रु हाणें कॅलिकटचो धर्मगुरू म्हूण ताची नेमणूक केली. पूण मलबार हांगां ताका सिरियन किरिस्तांव लोकांपसून त्रास जावंक लागिल्ल्यान १६७७ - ७८ ह्या काळांत तो गोंयांत आयलो. उपरांत तो परत व्हिकार जनरल म्हूण कोचीन हांगा गेलो. १६८७ वर्सा मलबार हांगाचो तो धर्मोपदेशक जालो. पिरायेच्या निमण्या काळांत किरिस्तांव धर्मप्रचाराखातीर ताणें खूब वावर केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## सावईकार, गणपत पद्माकर : (जल्मः ८ ऑक्टोबर १९२९, सावय - वेरें फोंडा).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां लावप, पुस्तिका वांटप, सुटकेझुजाऱ्यांमदीं बातम्यो पावोवप असलीं कामां तो करतालो. पुर्तुगेजांक तेंको दिवपी सावयवेरेंचो कस्तोदियो फेर्नांदीश हाच्या खुनाच्या आरोपाखाला पोलिसांनी ताका अटक केलो. सुमार अडेज वर्सां तो बंदखणींत उरलो. सिल्वासांतल्या राश्ट्रीय चळवळींत ताचो हात आसा असोय ताचेविशीं दुबाव आशिल्लो. बंदखणींत ताका सुमाराभायर त्रास दिवप जाताले. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## सावईकार, शारदा पद्माकर : (जल्म : ३० मार्च १९३५, सावय - वेरें फोंडा).

सुटकेझुजारी. एस्.एस्.सी. मेरेनचें शिकप घेतल्या उपरांत तिणें शिक्षण - प्रशिक्षण कोर्स केलो. स्वातंत्र्य सैनीक श्री. मोहन रानडे हाच्या फुडारपणाखाल ती सुटकेझुजाचो वावर करताली. श्री. रानडे हाका अटक जातकच तांच्या लोकांमदीं राश्ट्रीय जागृताय हाडपाचें काम तिणें हातांत घेतलें. ७ ऑगस्ट १९५५ दिसा तिणें इश्टींणीं वांगडा सत्याग्रह करपाचो बेत आंखिल्लो. पूण निमाणे वेळार तिच्यो इश्टीणी फाटीं सरिल्ल्यान ती एकटीच सत्याग्रह करपाक फुडें सरली. पूण आदल्या दिसा म्हळ्यार ६ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी तिका अटक केली. पुर्तुगेजांआड काम करता देखून तिचें घर सोदून काडून पोलिसांनी तिका तिचे भाव आनी भावजयांसयत अटक केली. बंदखणींत तिणें आपल्या हेर वांगड्यांचीं नांवां सांगचीं म्हूण तिका खूब मार दिलो.

उपरांत तिका प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबी करून न्यायाधिशान तिका माफी मागूंक लायली. पूण तिणें न्हयकार दिलो. सुरवेक तिका मडगांव बंदखणींत धाडली. अधिकाऱ्यांनी तिच्या नांवांत शरद शिरवयकार असो गोंदळ केल्ल्यान तिची सुटका जाली. उपरांत बऱ्याच दिसांनी तांकां तांची चूक कळ्ळी. पूण तेन्ना ती शीम हुंपून गेल्ली. सुटकेझुजाच्या काळांत तिका सुमार अडेज वर्सां बंदखणीची ख्यास्त जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तिचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## सावईकार, श्रीकांत पद्माकर ऊर्फ शिकेरकार, चिंतामणी सदाशिव : (जल्म : २ जानेवारी १९३२, सकीरवाल - सावंतवाडी).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठी, इंग्लीश आनी पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पुस्तिका वांटप, वण्टीपत्रकां लावप, भूंयगत सुटकेझुजाऱ्यांक आदार दिवप असलीं कामां तो करतालो. पोलिसांनी ताका धरलो आनी साडेसात म्हयन्यांखातीर बंदखणींत दवरलो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सावंत, महादेव रामनाथ :** (जल्म : १४ फेब्रुवारी १९३०, नेवरा - तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत तो राश्ट्रीय वावरांनी वांटो घेतालो. २३ जुलय १९५४ दिसा पोलिसांनी ताका अटक केलो.

प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच दोन वर्सांखातीर ताका दंड भरूंक लायलो आनी पांच वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले. बंदखणींत ताका सुमाराभायर मार खावंचो पडलो. ३० डिसेंबर १९३८ दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सावंत, रामकृष्ण धर्मा :** (जल्म : ८ एप्रिल १९३६, म्हापसा - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. १९५५ वर्सासावन तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. लोकांच्या मनांत सुटकेझुजाविशीं जागृताय येवंची देखून तो प्रचार करतालो. म्हापसा हांगा सुधाताई जोशी हिच्या फुडारपणाखाल जाल्ल्या मेळाव्यांत तो हजर आशिल्लो. ह्या आरोपावयल्यान ६ एप्रिल १९५५ दिसा ताका अटक केलो. १० म्हयन्यां उपरांत प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका णव वर्सांची ख्यास्त फर्मायली. २८ नोव्हेंबर १९५८ दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सावंत, वासुदेव अनंत :** (जल्म : १५ जून १९३०, वळवय - फोंडें).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या फुडाऱ्याच्या मार्गदर्शनाखाल तो राश्ट्रीय वावरांनी वांटो घेतालो. जुलय १९५५ त ताका पोलिसांनी अटक केलो आनी १६ म्हयन्यांखातीर बंदखणींत दवरलो. थंयच्यान सुटका जावन थोड्याच दिसांनी परत ताका अटक करून बंदखणींत दवरिल्लो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सावंत, शिवा पांडुरंग :** (जल्म : २३ नोव्हेंबर १९२१, केरी - पेडणे).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां लावप, सुटकेझुजाऱ्यांची जेवणाची वेवस्था पळोवप, तांकां रावपाक आसरो दिवप हीं कामां तो करतालो. भारतीय शीमेवयल्यान तांकां चोरयां बंदुको, स्फोटकां, आनी पत्रकां हाडपाक मदत करप असलीं कामां तो करतालो. १९५८ वर्सा पोलिसांनी ताका धरलो, मार दिलो आनी इकरा म्हयन्यांखातीर बंदखणींत दवरलो. ऑगस्ट १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सावकार, रघुवीर :** (जल्म २४ ऑगस्ट १८९३ म्हापशें; मरणः १२ सप्टेंबर १९६१ मुंबय).

मराठी, उर्दु रंगमाचयेवयलो एक नामनेचो संगीत नट. म्हापशां स्थायीक जाल्लें सावकार घराणें हें मुळचें नागव्याचें . ताचें मूळ आडनांव नागवेंकार. थंयच्यान ह्या घराण्याचो एक पूर्वज सावंत वाडी संस्थानांतल्या रेड्डी गांवांत स्थायीक जालो. हांगाच ह्या घराण्याक तांच्या थंयच्या वेवसायावयल्यान सावकार हें आडनाव प्राप्त जालें. उपरांत वेवसायाचे गरजेनुसार हें घराणें म्हापशां स्थायीक जालें.

प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान जाले उपरांत ताणें पुर्तुगेज शिक्षण घेतलें. शिक्षण अर्ध्यारच सोडून ताणें नाट्यकलेची उपासना केली. घरांत नाट्यकलेची परंपरा ताच्या आज्यासावन चलत आयली. ते परंपरेकडल्यान स्फूर्त घेवन घरच्यांच्या मार्गदर्शनाखाला ल्हान वयांतच रंगमाचयेर पदार्पण केलें. आदीं बालकलाकार म्हणून आनी उपरांत स्त्री - पार्टी म्हणून रघुवीरान म्हापशां आनी उपरांत संबंद गोंयांत नामना जोडली. रूप, अभिनय आनी संगीत ह्या तीनय आंगांनी परीपूर्ण आशिल्लें रघुवीराचें व्यक्तीमत्त्व रसीकांक मोहीत करतालें.

नाट्यक्षेत्रांत व्यापक संद प्राप्त जावंची हो हेत बाळगून रघुवीर १९१३ वर्सा मुंबय गेलो आनी ताच्या अभिनय - गुणाच्या म्हालवजार ताका श्री दत्तोपंत हल्याळकर ह्या श्रेश्ठ नाट्य कलाकाराच्या

'लक्ष्मीकांत नाटक मंडळीं'त प्रवेश मेळ्ळो. उपरांत १९१५ वर्सा 'गंधर्वनाटक मंडळींत तो दाखल जालो. 'गंधर्व नाटक कंपनींत'ताका बालगंधर्व, भास्करबुवा बखले, देवल मास्तर, गणपतराव बोडस अशा जाणकारांचें मार्गदर्शन मेळ्ळें. १९१७ वर्सा गंधर्व कंपनी सोडून तो मुंबयच्या 'पार्सी आल्फ्रेड थिएट्रिकल कंपनी', 'एस्. मादन कंपनी' आनी 'न्यू आल्फ्रेड कंपनी' ह्या नामनेच्या उर्दू नाटक कंपनींत दाखल जालो आनी ताणें उर्दु आनी हिंदी नाटकांत नायिकेच्यो भुमिका केल्यो आनी त्यो खूप गाजल्यो.

फुडें १९२४ वर्सा ताणें आपली स्वताची, रंग बोधेच्छु नाट्य - समाज' ही नाटक मंडळी म्हापशां सुरू केली. म्हापशां 'मानापमान नाटकाचो यशस्वी प्रयोग करून हे कंपनीन हुबळी, मुंबय, कलकत्ता अशे दौरे केले. 'संशयकल्लोळ' नाटकांतली रेवती - पात्र आनी 'मानापमान' नाटकांतलें भामिनी - पात्र हीं दोनय पात्रां रघुवीर आपल्या खाशेल्या ढंगान सादर करतालो आनी तमाम प्रेक्षकांची मनां जिखतालो. गोंय, महाराष्ट्र, हैद्राबाद, कलकत्ता, हुबळी अशा जायत्या सुवातींनी ताचो जाहीर भोवमान जालो. १९२५ वर्सा मुंबय जाल्ल्या खाशेल्या भोवमान सुवाळ्यांत ताका 'रंगदेवता' ही मानाची उपाधी दिवन ताचो गौरव केला.

रघुवीर सावकाराची संगीत नाटकाची परंपरा मुखार ताचो पूत प्रसाद सावकार हाणें फुडें व्हेली. ताणेंय 'मंदारमाला' पंडीत जगन्नाथ, 'कट्यार काळजांत घुसली' सारकिल्ल्या लोकप्रिय मराठी नाटकांत काम करून मराठी संगीत रंगभुंयेचेर आपलें अशें स्थान निर्माण केलां. १९८४ वर्सा बाल गंधर्व सुवर्ण पदक दिवन तेरवातीर ताचो भोवमान केला. सावकार घराण्यांतले वसंत आनी गोपीनाथ ह्या भावांनीय मराठी संगीत नाटकांत आपल्या नाट्य आनी संगीत कलेवरवीं मोलाचें योगदान दिलां.

- कों. वि. सं. मं.

**सावरकर, स्वा. विनायक दामोदर :** (जल्म : २८ मे १८८३ भगूर, नासिक; मरण : २६ फेब्रुवारी १९६६).

व्हड क्रांतिकारक, समाजसुदारक, हिंदूसंघटक, इतिहासकार, आनी व्हड कवी - साहित्यिक. ताच्या बापायचें नांव दामोदरपंत आनी आवयचें नांव राधाबाय.



ल्हानपणासावन तो घरांतली देवी अष्टभुजेच्या मूर्तीची भक्ती करतालो. मूज जालेउपरांत रोखडेच ताणें धार्मिक ग्रंथ वाचून काडले. तो तल्लख बुध्दीचो हुशार भुरगो आशिल्लो. १८९७त तो माध्यमिक शिक्षणाखातीर नाशिकाक गेलो. थंय गणपती उत्सवांतल्यानच ताच्या देशभक्तीच्या वावराक सुरवात जाली. थंयच ताच्या वक्तृत्वाक धार आयली. वांगडच्या विद्यार्थ्यांचो तो फुडारी जालो.

१८९७ ह्या वर्सा चाफेकर भावांक जनरल रँडाचे हत्त्येखातीर फांशीची ख्यास्त फर्मायली आनी तीच गजाल सावरकाराचो देशभक्तीचो इंगळो फुलोवपाक कारण थरली. ताणें चाफेकार भावांच्या बलिदानाचेर एक गीत रचलें आनी देवी अष्टभुजेचें एक स्तोत्रय रचलें. पिरायेच्या १५व्या वर्सां ताणें कुळस्वामीनीमुखार सशस्त्र क्रांतीच्या मार्गान भारताक स्वतंत्र करपाचो सोपूत घेतलो. १८९९ च्या प्लेगान ताचो बापूय सोंपलो, ताची आवय तांच्या भुरगेपणांतच सोंपिल्ली. ते उपरांत सावरकार कुटूंब नाशिकाकच रावपाक लागलें. १८९९त 'राष्ट्रभक्त संघटना' नांवाची एक गुपीत क्रांतिकारी संस्था ताणें स्थापन केली. फुडें 'मित्रमेळा' नांवाचीय आनीक एक संस्था ताणें स्थापली. नाशिकांत शिवजयंतीचो उत्सव ताणें सुरू केलो. १९०४त नाशिकांत जाल्ले 'मित्रमेळा' हे संस्थेचे बसकेंत ताणें 'मित्रमेळा' हें संस्थेचें नांव बदलून 'अभिनव भारत' अशें केलें. इ.स. १९०१त जव्हार संस्थानाचे दिवाण चिपळूणकर हाच्या 'यमुना' हे चलयेकडेन ताचें लग्न जालें आनी लग्ना उपरांत पुण्याचे फर्ग्युसन कॉलेजींत तो उंचेल्या पांवड्यावयलें शिक्षण घेवंक लागलो.

१९०४ त वंगभंगाचे चळवळीचो एक वांटो म्हणून सावरकारान पुण्यांत विलायती लुगटांची होळी केली. १९०५त तो बी.ए. जालो आनी १९०६ त तो बॅरिस्टरकीचें शिक्षण घेवपाखातीर विलायतेक गेलो. ह्या कामांत ताका लो.टिळकान बरोच आदार केलो. विलायतेक गेले उपरांत तो थंय (इंग्लंडाक) राबितो करून आशिल्ल्या क्रांतिकारी श्यामजी कृष्ण वर्मा हाचेकडेन पावलो आनी थंय दोगांयनी मेळून स्वातंत्र्यवादयांची संघटना करपाच्या हेतून होमरूल नांवाची संस्था स्थापन केली. श्यामजी कृष्ण वर्माच्या लंडनच्या इंडिया हाऊसाचो तो फुडारी जालो. 'इंडिया हाऊस' हें भारतीय विद्यार्थ्यांचें राबितो घर आशिल्लें. थंय सावरकार भारतीय तरणाट्यांक एकठांय करूंक लागलो आनी तांकां ताणें 'अभिनव भारत हें आपले संस्थेचे वांगडी केले. इंग्लंडाच्या राबित्यांतच ताणें जोसेफ मॅझिनी हांगाची आपजीण आनी राजकारण हो ग्रंथ आपले खाशेले प्रस्तावनेसयत उजवाडायलो. तातुंतल्या क्रांतीकारी विचारांक लागून सरकारान तो जप्त केलो. सेनापती बापट आनी पंजाबचो लाला लजपतराय हे ताचे शिश्य जाले. तर ताचो एक वांगडी हरदयाळ हाणें पंजाबांत क्रांतिकारकांची संघटना सुरू केली.

१९०७ त ताणें १८५७च्या स्वातंत्र्य झुजासंबंदींचो लोकांमदीं पाताळिल्लो गैरसमज पयसावपाखातीर '१८५७ सालचे स्वातंत्र्यसमर' हो ग्रंथ बरयलो आनी लंडनांत ह्या झुजाचो यादस्तिक सुवाळोच ताणें मनयलो. ह्यावेळार 'ओ मार्टिस' नांवाचें पत्रक उजवाडावन तें ताणें सगळ्यांक वांटलें. 'शिखांचो इतिहास' नांवाचें पुस्तकूय ताणें बरयलें.

ह्याचवेळार ताचो व्हडलो चलो प्रभाकर देवीचे धार्मीत भायर पडलो. मजगतीं १९०९त ताच्या व्हडल्या भावाक ब्रिटीश राज्याआड बंड केल्लेखातीर जल्मठेप आनी काळयापाण्याची सजा दिली. ह्या वर्सा ताचो वांगडी मदनलाल धिंग्रा हाणें लंडनच्या जहांगीर हॉलांत कर्झन वायलीक जिवेनीशीं मारलो. तेन्ना धिंग्राचें न्यायालयांतलें वक्तव्य सावरकारान बरोवन दिलें. १७ ऑगस्ट १९०९ ह्या दिसा धिंग्राक गोळार दिलो. ह्याच वर्सा सावरकाराची म. गांधीकडेन पयली भेट जाली.

लॉर्ड मिंटोचेर बॉम्ब उडोवपाच्या कटांत वांटेकार जाल्लेखातीर सावरकाराच्या धाकट्या भावांकय ब्रिटीशांनी काळया पाण्याची ख्यास्त फर्मायली. धिंग्रा प्रकरण निवळले उपरांत ताणें आपलीं प्रचारपत्रकां, ग्रंथ, बॉम्ब तयार करपाचीं पत्रकां, तशेंच पिस्तूलां भारतांत धाडपाक सुरवात केली. २१ डिसेंबर, १९०९ ह्या दिसा अनंत कान्हेरेन कलेक्टर जॅक्सनाक गुळयो घालून मारलो. ताका मारपाक वापरिल्लें पिस्तूल हें सावरकारान धाडिल्लें हें कळ्ळयाबरोबर ह्या कटाचो सूत्रधार सावरकरच जावन आसा अशें ब्रिटीशांनी थारायलें आनी सावरकाराक अटक करपाचो हुकूम सरकारान काडलो. सावरकार तेवेळार पॅरीसाक कामाबाईगेर रावतालो आनी थंयच्यान 'तलवार' नांवाचें वृत्तपत्र काडटालो. 'मार्टियर ऑफ नासिक' हो लेख आपल्या पत्रांतल्यान छापून ताणें कान्हेरेची तुस्त केल्ली. आपल्या वांगड्याक भारतांत जें भोगचें पडटा तें कळनाफुडें ताका वायट दिसलें. ताची प्रकृती बरी नाशिल्ली. तशें आसतनाय तो पॅरिसासावन लंडनाक गेलो, थंय ताका अटक जाली. तीन म्हयने इंग्लंडाक ताचेर खटलो चलयले उपरांत फुडाराक ही केस भारतांत चलोवंची अशें इंग्रज सरकारान थारायलें आनी १ जुलाय १९१० ह्या दिसा गुपीत रितीन ताका बोटीर चडयलो. आतां आपलें फुडे कितें जातलें हाचो अदमास सावरकाराक लागलो आनी व्हड पहारो आसून लेगीत फ्रान्साचे दर्यादिगेवयल्या मार्सेलिस बंदरांत बोट उबी राविल्ली आसतना संडासाक वचपाचें निमित करून तो संडासांत गेलो आनी पोर्टहोलांतल्यान (बुराकांतल्यान) ताणें दर्यांत उडी घेतली. ताचें पुराय आंग खरचटलें, सोललें, तरी ताणें तडीक वचपाचो यत्न सोडलोना. तेचवेळार तो रक्षकांचे नदरेक पडलो. तांणी ताचेर गुळयो घाल्यो, त्यो चुकोवन तो तडीक गेलो आनी तटाची वणत हुंपून ताणें फ्रान्साचे भूंयेर घालून घेतलें. तेन्ना ताका फ्रेंच पोलिस अधिकाऱ्याच्या मुखारच ब्रिटीश पोलिस अधिकाऱ्यांनी आपल्या ताब्यांत घेतलो. फुडें भारतांत हाडून ताचेवयल्या खटल्याचो वावर परत सुरू जालो. निमाणें ह्या कटांत वांटेकार जाल्लेखातीर, तशेंच ताचेर हेर आरोप आशिल्ले ते खातीर ताका दोन जल्मठेपी म्हळयार पन्नास वर्सां काळया पाण्याची ख्यास्त फर्मायली. ताका अंदमानांत सेल्युलर जेलींत धाडलो. थंय ताका नरकयातना भोगच्यो पडल्यो. हे कश्ट, दगदग भोगता आसतनाच ताका 'कमला' हें काव्य स्फुरलें. घायपाताच्या कांट्यांनी कादयेच्या वण्टींचेर तो पयलीं बरयतालो आनी मागीर तें तोंडपाठ करतालो. हें ज़ेन्ना जेलराक कळ्ळें तेन्ना ताणें ताका हातकडयेन बांदून दवरलो. सावरकारान थंय आसतना राजबंद्यांची संघटना बांदली. तशेंच हिंदू बंद्यांचेर मुसलमान बंद्यांकडल्यान जावपी अत्याचारय सोंपयले. लोकांच्या यत्नांक यश आयिल्ल्यान १९२१त ताका अंदमानासावन भारतांत हाडलो आनी १९२४त ताची सशर्त मुक्तताय करून रत्नागिरीक ताका स्थानबध्द केलो. हाकालागून राजकीय काम करपाचेर ताचेर बंदी आयली. तेन्ना ताणें समाज सुदारणेचें काम हातांत घेतलें. रत्नागिरीचे भौशीक जिणेंतल्यान ताणें अस्पृश्यताय आनी रोटीबंदी ना जावंची म्हण यत्न केले. हिंदूंचे संघटनेखातीर बरेंच लेखन केलें. लिपी आनी भाशाशुध्दी हांचें आंदोलन करून राश्ट्रभास आनी लिपयेचो प्रश्न सोडोवपाखातीरय मार्गदर्शन केलें. ताचेच सांगणेवयल्यान गोंयच्या गावड्याच्या मसुरकार आश्रमाचें महंतानी शुध्दीकरण केलें. रत्नागिरीक पतितपावनाचें देवूळ बांदून तें अस्पृश्यांखातीर उक्तें केलें ह्या स्थानबध्दतेच्या काळांत ताका पयशांची बरीच मारामार जाली, तरी ताचे घरकान्नीन ताचेवांगडा काटकसरीन संवसार केलो. विश्वास आनी प्रभात ह्या दोगा भुरग्यांचो जल्मय ह्या काळांत जालो.

हिंदुत्व हेंच भारताचें राश्ट्रीयत्व ह्या सिध्दांताखातीर ताणें हिंदू महासभेंत प्रवेश केलो आनी रोकडोच तो ह्या पक्षाचो फुडारी जालो. फक्त चळवळी करून भारत स्वतंत्र जातलो हाचेर ताचो विश्वास नाशिल्लो. इंग्रजांआड स्वातंत्र्यझूज करूंक जाय आनी अशें करतलो जाल्यार भारतीय तरणाट्यांनी सैनिकी शिक्षण घेवकं जाय अशें ताका दिसतालें आनी म्हणूनच हिंदू महासभेचे वतीन सैनिकीकरणाची कार्यावळ ताणें हातांत घेतली. नेताजी सुभाषचंद्र बोसाचोय असोच विचार आशिल्ल्यान ताणें सावरकाराची मुंबय येवन भेटय घेतिल्ली.

सावरकार जितलो व्हड स्वातंत्र्यझुजारी आसलो, तितलोच तो खांपो उलोवपीय आशिल्लो. ताचीं भाशणां आयकतना आयकुपी मंत्रमुग्ध जाताले. पटांगडो वक्तो ताचेय परस व्हड असो लेखक - कवी, नाटककारय आशिल्लो. ताचे लिखणेची शक्त बरीच व्हड आशिल्ली. ताच्या कवितांची संख्या सुमार ११,0000 वळी इतली आसा. सप्तर्षी, गोमांतक, महासागर कमला हीं ताचीं खंडकाव्यां. 'हिंदुत्व' हो ग्रंथ ताच्यांतल्या निबंदकाराची वळख घडयता. माझी जल्मठेप, माझ्या आठवणी, शत्रूंच्या शिबिरात हीं ताचीं आपजीण उक्तावपी अशीं आत्मचरित्रात्मक पुस्तकां जावन आसात. भारताच्या इतिहासातील सहा सोनेरी पाने (दोन खंड), पूर्वपिठीका ह्या ग्रंथांतल्यान ताच्यांतलो इतिहासकार दिसून येता.

सावरकार हो हिंदुत्वाचो, हिंदू धर्माचो आनी हिंदू राश्ट्रवादाचो खांपो पुरस्कर्तो आशिल्लो. हिंदू संघटनेखातीर, हिंदूंचे उदरगतीखातीर आनी हिंदुत्वाच्या समर्थनाखातीर ताणें वावर केलो. ताका हिंदू राश्ट्राचो

व्हड अभिमान आशिल्लो; इतलेंय जरी आसलें तरी तो चातुर्वर्ण्य, जातिभेद, अस्पृश्यताय, पतितशुध्दीनिषेध, परदेशगमन निषेध हांचेर सदांच टीका करतालो. 'प्रत्यक्षनिश्ठ आनी प्रयोगक्षम' असो विज्ञानधर्म होच खरो व्हड धर्म' अशें सावरकाराचें मत आशिल्ल्यान पूर्वजल्म, कर्मवाद ह्या गजालींक ताचो खर विरोध आसलो.

सावरकराच्या राजकीय, धार्मिक, अध्यात्मीक आनी तात्त्विक विचार प्रणालींतल्यान तशेंच इतिहासीक वावरांतल्यान, भारतीय समाजांत सावरकार यूग वा सावरकर वाद असो एक सिध्दांत रूढ जावंक पावलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सावड्डेकार, बाळकृष्ण वामन :** (जल्म : २ जानेर १८८६, काणकोण; मरण : १४ जानेवारी १९४९).

पुराय नांव बाळकृष्ण वामन तथा गजानन सावड्डेकार. पणजे लिसेंवाचो कोर्स पुराय केलो आनी आग्रीमेसूर आनी कोमुनीदादी ह्या सरकारी कार्यालयांनी कांय तेंप नोकरी केली. फुडाराक नॉर्मल स्कूलांतल्यान परिक्षा उत्तीर्ण जावन तो सरकारी मुळावे पुर्तुगेज शाळेंत शिक्षक जालो. भुरग्यीं तेजिश्ट आनी स्वाभिमानी जावंची, तांचें भीजूडपण ना जांवचे म्हणून तो पुस्तकी शिक्षणावांगडाच भुरग्यांचेर बरे संस्कार करतालो. गोमंतक मराठी शिक्षक संमेलन हें ताणें आपले जीणेचें कार्य मानलें. गोमंतक मराठी शिक्षण संमेलनावरवीं मराठी शिक्षकापुरती सरकारी शिक्षण खात्याक समांतर अशी यंत्रणा ताणें निर्मिली. ताणें शिक्षणाविशीं बरेच लेख पुर्तुगेजींतल्यान बरयले. ती लेखमाळ उपरांत पुस्तक रुपान उजवाडा आयली. तो बरो उलोवपी आसलो. लिखणेपरस ताणें उलोवपाचेर चड भर दिलो. समाजसुदारणा आनी शिक्षण प्रसाराखातीर ताका ताच्या वकृत्वाचो खूबूच लाव जालो. जरी तो पुर्तुगेज शिक्षक आसलो तरी तो मराठीचो खांपो अभिमानी आशिल्लो. १९३० वर्सा मडगांवां महाराष्ट्र साहित्य संमेलनाचें १५ वें अधिवेशन जालें तेवेळार गोंयची पुराय रितीन वळख करून दिवपी गोमंतक परिचय ग्रंथ ताणें तयार केलो आनी आपल्या खर्चान छापून तो लोकांमेरेन पावयलो. गोंयावयलो तो एक बरो संदर्भ ग्रंथ जावन आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**साहित्य :** ललित कलेचो एक प्रकार. सौंदर्याअणभव दिवपाची तांक आनी प्रयोजन आशिल्ले ललितकले अंतर्गत शिल्प, चित्र, संगीत, नाच, साहित्य ह्या कलांचो आस्पाव जाता. मौखीक आनी लिखीत उतरावळींची सोबीत आनी अर्थपूण अशी मांडावळ करून, तेवरवीं ती मांडावळ रचतल्याक (साहित्यिकाक) आनी तिचो अणभव घेतल्याक (वाचप्याक, आयकुप्याक) सच्चिदानंदाचो अणभव घेवंक मदत करता ते मांडावळीक साहित्य ही संकल्पना लागू जाता. भावना, विचार, प्रतिभा आनी मांडावळ अशा घटकांचो आस्पाव जाल्ली ती कलाकृती आसता. अशे तरेन सत्य, शिव आनी सुंदर हांचें मिलन जावन निर्माण जाल्ली मौखीक वा लिखीत उतरांची कलाकृती म्हणजे साहित्य.

असे तरेचो उंचेल्या पांवड्यावयलो 'प्रज्ञा आनी प्रतिभे'चो विलास वाचप्याक आयकतल्याक 'ब्रह्मानंद सहोदरा'चो दिश्टावो घडोवन हाडटा, तेन्ना ती निखटी उतरावळ म्हळयार 'वाक् मय' उरना, ताचें रुपांतर 'वाङ्मयां'त, 'साहित्यां'त जाता. हाकाच 'साहित्य' म्हण्टात.

प्राच्य म्हळयार उदेंती विशेशतायेन भारतीय परंपरेन हाचे संबंदान भोव खोलायेन आनी साक्षेपान विचार जाल्लो आसा. अस्तमतेच्या साहित्य विचारांत लेगीत साहित्याचो अर्थ लावपाचो खूबच वावर आयजमेरेने जाला. साहित्य ही संकल्पना बरेतरेन समजून घेवपाक त्यो दोनय परंपरा हे विशीं, ताच्या स्वरुपाविशीं कितें म्हण्टात हें समजून घेवचें पडटलें. ताच्या सांगतान साहित्याचें प्रयोजन, पती आदी समजून घेतल्यार आनीक बरें जातलें.

भरतापसून ते पंडित जगन्नाथा मेरेन भारतीय (संस्कृत) साहित्यविचाराची परंपरा आसा. तातूंत आपलो साहित्य विचार भरतान नाटकाच्या संदर्भांत सांगला. 'ललित साहित्य' ह्या व्यापक अर्थान 'काव्य' हो शब्द हे परंपरेंत येवजिल्लो पळोवंक मेळटा. हे विशींचे चर्चेंत 'काव्यपुरूषा'चे रुपक सातत्यान आपणायल्लें आसा. सुरवेक हो विचार साहित्याच्या साधनाचेर केंद्रित जाल्लो पळोवंक मेळटा. 'शब्दार्थौ सहितौ काव्यम ।' (काव्यालंकार : १.१६) 'साहित्य म्हळयार शब्दाच्या सांगातान आयिल्लो अर्थ'. साहित्याच्या ह्या लक्षणांतल्या 'सहितौ' हे मोडणेंतल्यान मुखार साहित्य हे संकल्पनेन मूळ धरलें. हाचे पयलीं म्हळयार भामटाचे पयली संस्कृत साहित्य विचारांमदी ह्या संदर्भात अर्थनिरपेक्ष रुपकादी अर्थचमत्कृती मानपी अशे दोन विचार आसले. ह्या दोनय विचारांक न्हयकारून 'शब्दसौष्ठव' आनी 'अर्थव्युत्पत्ती' हीं दोनय आंगां काव्यांत एकेसारखींच म्हत्वाचीं आसात म्हणपाचें भामहान स्पश्ट केलें. 'शरीर तावदिष्टार्थव्यवच्छिन्ना पदावली' (काव्या दर्श १.१०) हें दंडीन सांगिल्लें काव्यलक्षण. तातूंत ताणें शब्दार्थांक काव्य कूड मानून ताचेमदल्या अर्थाची उतरापरस आशिल्ली आंतरता तो सूचयता. 'तनु शब्दार्थौ काव्यम' (रुद्रट, काव्यालंकार, २.१) 'शब्दार्थौ मूर्ति - शरव्यातौ' (विद्यानाथ) हांच्यासारकिल्या शब्दार्थाच्या साहचर्याचेर भर दिवपी जायत्यो साहित्यांतर्गत व्याख्या संस्कृत साहित्य विचाराविशी मेळटात. 'वक्रोक्ति काव्य जीवितम्' अशें कुंतकान म्हळां. कवीची म्हळयार साहित्यिकाची सांगपाची पद्दत (म्हळयार साहित्य निर्मणी) ही वेव्हारान आमी वापरता ते सरळ पद्दती परस वेगळे तरेची आसता. ती वांकडी म्हळयार आडवळणांची म्हळयार 'वक्र' आसता. हाकाच 'वक्रोक्ती' अशें म्हटलां. हाच्याआदारान सामान्यतायेनी प्रतीत न जावपी वस्तुसंबंद जोडून वैचित्र्यपूर्ण पद्धतीन मांडावळ करून कवी

आपली अभिव्यक्ती सिध्द करता. सुरवेक अभिव्यक्ती प्रधान आशिल्लो हो विचार उपरांत आशयप्रधान जालो. 'औचित्य' ह्या गुणाचो साहित्यांतले मूल्य स्पश्ट करपाच्या वावराक क्षेमेंद्रान व्हड म्हत्व दिलां आनी अशे तरेन उतराच्या अर्थापसून उतरांतल्या आशया मेरेन भोंवडी परिक्रमा करून हो भारतीय साहित्य विचार सिध्द जाला. आनंद वर्धन हाणें ध्वनी विचाराची मांडावळ करून उतरांत उपरासपी रसाभिव्यक्तिच्या सामर्थ्याविशीं समाधानकारक स्पश्टीकरण केलां. शब्दांक वाच्य, लक्ष्य आनी व्यंग अशे तीन अर्थ आसतात. साहित्य व्यंगार्थप्रधान आसता. म्हळयार तातूंत व्यंगार्थाक म्हळयार सूचितार्थाक म्हत्व आसता. साहित्यांतल्यान व्यक्त जावपी रस लेगीत व्यंगीत म्हळयार सूचित,ध्वनीत स्वरुपाचो आसता. ह्या 'व्यंगार्थप्रधान उतरांच्या वेव्हारांतल्यान कवीच्या साहित्यिकाच्या भावनात्मक सौंदर्यानुभवाचा रसिकाक म्हळयार वाचप्याक आयकुप्यांक आयिलो प्रत्यय' म्हळयारूच रस, म्हळयारूच साहित्य. ताचो आस्वाद ताका आनंद प्राप्त करून दिता. 'वाक्यं रसात्मकं काव्यं' ह्या उतरांनी विश्वनाथान रसतत्त्वाचें सर्वमान्य म्हत्व विसकटावन सांगला. संस्कृत काव्य (साहित्य) शास्त्राक अभिप्रेत आसपी साहित्याचे स्वरूप 'तत् अदोषौ शब्दार्थौ सगुणौ अनलंकृती पुनः क्वापि' (काव्यप्रकाश १.४) ह्या मम्मटाच्या काव्यलक्षणांतल्यान प्रगट जालां. तातुंतल्या पदांची अर्थकक्षा मतींत घेतल्यार संस्कृत काव्य (साहित्य) शास्त्राक अभिप्रेत आशिल्ल्या साहित्याच्या स्वरुपाविशीं सांगचें जाल्यार अभिधा, लक्षणा आनी व्यंजनां ह्या तीनय शक्तींनी युक्त आशिल्ले शब्दार्थ रसापकर्षक दोश टाळून, रसाचो उत्कर्श सादपी गुणांनी नटटात आनी अर्थाचें विभावन करपी, ताका आस्वादाचीं कळा प्राप्त करून दिवपी अलंकारानी संस्कारीत जातात, तेन्ना त्या शब्दार्थांक 'काव्य' म्हण्टात.

साहित्य ही एक भाशिकनिर्मणी आसा आनी ताचें आदीम ध्वनीरूप हें उच्चार रूप आसा. तें 'वाक्मय' आसा. साहित्याक 'वाङ्मय' अशेंय दुसरें उतर आसा. 'वाचो विकार वाङ्मयम' ह्या प्रसिद्द सूत्रावरवीं 'वाणीचो म्हळयार वाचेचो विकार म्हळयार वाङ्मय'' अशी वाङ्मयाची साहित्याची व्याख्या करूं येता. हेवरवीं मराठी समीक्षक न. चि. केळकर हांणी वाङ्मयाची व्याख्या करताना 'यच्च यावत् जे वाचेने वदले गेले ते' असो अर्थ घेतला. पूण 'वाचेच्या साबार विकारांक वाङ्मय म्हणप समा जायना. इंग्लिशींत 'Memorable words' (संस्मरणीय शब्द) असेंय वाङ्मयाक म्हळां. 'उतराक जाल्लो अर्थ गर्भ विकार' म्हळयार वाङ्मय अशीय ताची व्याख्या करूं येता. साहित्याचे बराबरीन वाङ्मय हेंय उतर घोळणुकेंत आसा.

अस्तंती साहित्य विचाराचो माग काडीत साहित्य ह्या संकल्पनेची विसकटावणी केली जाल्यार तातुंतल्यान अशें दिसून येता, तांणी संवेदनशीलतेक चड म्हत्व दिलां. 'Literature' ह्या इंग्लीश उतराचें पर्यायी अर्थाचें उतर म्हण आमी साहित्य हें उतर भारतीय भासांमदीं आपणायलां. 'Literature' ह्या उतराचे कोशांतर्गत जे अर्थ दिल्यात ते अशे - 'अक्षरांनी बांदिल्ली म्हायती वा विचार' आनी 'काळ आनी रुची हांचे चाळणीतल्यान तिगून राविल्ली गंभीर लळीत बरपावळ' अस्तंती साहित्यविचार साहित्याचो विचार करताना लळीत साहित्य आनी शास्त्रीय, तात्त्विक साहित्य हांचेमदी फारफेर करता. ताचो साबार भर वाच्यार्थार उरता. भावशीळता (Emotional Element) आनी कल्पनाशीलता. (Imaginative Element) हांकां चडांत चड म्हत्व थंय दिवप जाता. तातूंत हॅझलिट, केबल, रस्किन, कोर्टहोप, जॉन्सन, वर्डस्वर्थ, मिल हांचो मुखेलपणान आस्पाव जाता. तांणी 'साहित्या'ची जी व्याख्या केल्या ताच्यो ह्यो कांय देखी : 'The language of imagination and passion' (हॅझलिट), 'A vent for overcharged feeling or full imagination' (केबल), 'The suggesion, by the imagination, of noble grounds for the noble imotions' (रस्किन), 'Expresion of imaginative thought and feeling' (कोर्टहोप), 'The art of writing pleasure with truth by calling imagination to the help of reason' (जॉन्सन), 'The spontaneous overflow of powerful feelings recollected in tranquility' (वर्डस्वर्थ), 'what is poetry but the thought and worlds in which emotion spontaneously embodies itself?' (मिल). ह्या भावनाशील आनी कल्पनाप्रधान साहित्याक आपली खाशेली अशी एक लय आसा. ताकाच लागून साहित्याची व्याख्या करतनां जॉन्सन म्हण्टा, ' Poetry is metrical composition.' जाल्यार कार्लाइल म्हण्टा, 'Poetry, we will call the musical thought.' 'The rhythemic creation of beauty'. ह्या उतरांनी एडगर ॲलन पो हाणें कवितेची म्हळयार पर्यायान साहित्याची व्याख्या केल्या.

साहित्याची संकल्पना स्पश्ट करपाच्या कामांत अभिव्यक्तीचें साधन म्हणून भाशेचोय आवश्यक तो विचार अस्तंती समीक्षकांनी केल्लो आसा. ह्यासंबंदान विवेचन करतासतना 'The art of employing words in such a manner as to produce an illusion ?' अशें मेकॉले म्हण्टा, जाल्यार मॅथ्यू अर्नोल्ड हाणें हेविशीं म्हळां, 'The most delightful and perfect form of utterance that human words can reach.' तेचवरी 'The best words in the best order' ही कोलरिजची प्रसिद्द व्याख्या साहित्यांतल्या भाशेच्या वापराविशीं म्हत्वाचो विचार मुखार दवरता. ताचीच 'Poetry is the antethesis of science' ही साहित्याविशींची व्याख्या साहित्य आनी शास्त्र हांचे मदलो वेगळेचार स्पश्ट करता. 'The best and happiest moments of the happiest and best minds' अशें शेले म्हण्टना तो साहित्यिकांक साहित्यनिर्मणीच्या खिणांक जाल्ल्या उपाट खोशेविशीं भाश्य करता; जाल्यार 'criticism of life' म्हणून

साहित्याचे जीवन दर्शन करपाचे तांकीविशीं आनी जीवनभाश्यात्मक स्वरुपाविशी मॅथ्यू अर्नोल्ड हाणें आपलें मत मांडलां. ह्या व्यारव्यांवयल्यान साहित्याच्या साबार आंगांक केंद्र मानून अस्तंती समीक्षकांनी साहित्य संकल्पनेविशीं आनी स्वरुपाविशी साबार विचार मांडून तातूंतल्यान साहित्य ही संकल्पना स्पश्ट केल्या.

भारतीय समीक्षक हो विचार साहित्यिकाच्या वा वाचकाच्या आंगान करिनात. साहित्यकृती मुरवार दवरून ते तो करता. ताका लागून तो चडांत चड सूक्षीम, वस्तुनिश्ठ आनी विश्लेशक जावंक पावला. तेचवरी भारतीय साहित्यविचार हो मुळांत साहित्याच्या उच्चार रुपाचेर - ध्वनीचेर आदारिल्लो आसा. अस्तंती साहित्यविचार, साहित्यकृती, लेखक - वाचक हीं आंगां विस्तारान आनी खोलायेन विचारांत घेता. भारतीय सहित्यविचारापरस तो व्हडा प्रमाणांत संवेदनशील आसा अशी प्रचिती येता. भारतीय विचार 'ललीत' आनी 'ललीतेत्तर' असो विचार करिना. पूण अस्तंती तो विचार करता.

लॅटीन भाशेंत आनी पुर्तुगेज भाशेंत लेगीत साहित्याविशींच्या अभ्यासाक 'lettres' म्हूण संबोधतात. जाल्यार स्वर वा ध्वनी विशयक अभ्यासाक 'solpa' म्हूण संबोधतात. पयल्यांत दृक् श्राव्य स्वरुपाक म्हत्व आसा. तातूंतय दृक् संवेदनेक मात्सो वयलो पांवडो आसा. 'solpa' त श्राव्य संवेदनेक पयलो मान आसा आनी ताच्या आदारान दृक् संवेदनेक आकार प्राप्त जाता. अस्तंती साहित्यविचारांत ध्वनी संवेदनेपरस दृक् म्हळयार 'अक्षरा'च्या चिन्नांक म्हळयार रुपाक चड म्हत्व आसा. जाल्यार भारतीय साहित्यविचारांत 'रसा' क पयलो पाट दिला. आधुनिक भारतीय साहित्य विचारान आपल्या दायजापरस अस्तंती साहित्यविचारांची वाट चड आपणायल्ली दिसता.

साहित्य (Literature) ही संज्ञा फकत साहित्य कलेपुरती वा बरपावळीपुरती मर्यादीत करून घेवप उचीत थारचें ना. ताच्या उपयोजनांमदी लेगीत जायत्या अडचणी आसात, तरी लेगीत इंग्लिशींतल्यो कल्पीत कथा साहित्य (Fiction) वा काव्य (Poetry) ह्यो संभाव्य स्वरुपाच्यो पर्यायी संज्ञा विशिश्ट अर्थान हे आतीच वापरून रूढ जाल्ल्यो आसात. कल्पनारम्य साहित्य (Imeginatory Literature) वा फार्सी भाशेंत जाका बेले लेत्र (Belles-Lettres) म्हळयार ललित गद्य ह्यो संज्ञा किचकटिच्यो आसात.

साहित्याच्या प्रयोजनाविशीं सांगपाचें म्हळयार आदल्या तेंपावयलीं प्रयोजनां आनी आर्विल्लया तेंपावयलीं प्रयोजनां वा अस्तंती प्रयोजनां आनी उदेंती वा भारतीय प्रयोजनां विंगड विंगड आसतात अशें म्हणप समा जावचें ना. भोव खोलायेन आनी बारीकसाणीन विचार केल्यार आमच्या संस्कृत (भारतीय) साहित्यविचारांच्या संदर्भांत प्रयोजनां जीं सांगल्यांत तींच प्रयोजनां उण्याअदीक प्रमाणांत आजूय लागू पडूं येतात. संस्कृत साहित्य शास्त्रांत सांगिल्लीं प्रयोजनां एका श्लोकांत बंदिस्त केल्यात, तो मम्मटाचो श्लोक असो-

काव्य यशसेऽर्थकृते व्यवहारविदे शिवेतरक्षतये
सद्य : परनिवृत्तयेकान्ता संमिततयोपदेश युजे ।।
(काव्यप्रकाश, १.२)

ताणें कीर्ती, अर्थप्राप्ती, वेव्हारज्ञान, अमंगळ निवारण, तत्काळ परमानंदप्राप्ती आनी मोगाळ बायलेच्या मुखांतल्यान आयकूंक मेळळयावरी केल्लो उपदेश अशीं स प्रयोजनां सांगल्यात. जाल्यार आधुनिक विचारवंतानी साहित्याचीं जीं प्रयोजनां सांगून दवरल्यांत तातूंत पलायन (Escape), इच्छापूर्ती (Wish-Fulfilment), जिज्ञासापुर्ती (Curiosity), आत्माविश्कार (Self Expression), उद्‌बोधन (Instruction), मोक्ष आनी आध्यात्मिक उन्नती, (Salvation), अनुभवविश्वाची समृध्दी, स्व - रुप - निश्ठा, नवनिर्मिती (Creativity) अशा प्रयोजनांचो आस्पाव जाता. खोलायेन विचार केल्यार पुर्विल्ल्या आनी आर्विल्ल्या वा आधुनिक साहित्य प्रयोजनांची संगती लावं येता.

साहित्याचे पतींचो विचार केल्यार काणी आनी कवन / गीत अशो दोनय आदीम साहित्य पती म्हण सांगच्यो पडटल्यो. ते भायर आशिल्ल्यो पती ह्यो अर्वाचीन विचारांतल्यान आनी प्रगतींतल्यान नांवा रुपाक आयल्यात. तातूंनय आयज जो ललीतेतर साहित्याचो प्रकार देखीक शास्त्रीय, तत्त्वीक आदी आमी पळयतात तांचो आस्पाव 'प्रबंध' प्रकारात संस्कृत साहित्य' विचारांत केल्लो आसा. मनीस जातीची उदरगत सांगतना गिन्यान आनी तंत्रगिन्यानाचो स्फोट जायत गेलो आनी ताकालागून कोणा काळार त्रिशाखी (तीन खांद्यांचो) आशिल्लो हो साहित्य रूख धाय दिकांनी फांकत रावलो. ताका लागून कादंबरी, लघुकथा, नाटक, चरित्र - आत्मचरित्र, ललीत निबंद दुःखांतिका, त्रासदी, सुखांतिका आदी पतींची आनी उपपतींची भर पुर्विल्ल्या वर्गवारींत पडत रावली. ह्यो पती सर्वसादारणपणान आकृतीबंधाचेर आदारून जाल्यात. तेभायर कांय पती पडल्यात. देखीक लोकसाहित्य, विज्ञान साहित्य बौध्दसाहित्य, हिंदु साहित्य, ख्रिस्ती साहित्य, जैन साहित्य, मुस्लीम साहित्य, प्रादेशिक साहित्य, ग्रामीण साहित्य, दलित साहित्य, राश्ट्रीय साहित्य, स्थानिक साहित्य, वैश्विक साहित्य, बालसाहित्य, पुर्विल्लें साहित्य,आर्विल्लें साहित्य, स्त्री साहित्य, कुमार साहित्य, नेमाळें साहित्य, दिसाळें साहित्य, वर्तमानपत्री साहित्य, संगणक साहित्य, निग्रो साहित्य, संपर्क माध्यम साहित्य, प्रचारकी साहित्य आदी. हेविशीं विचार केल्यार अशें दिसून येता, ही वर्गवारी करपाक कसलोय आनी खंयचोय कस चलता. देखीक धर्म, वंश, जात, पात, कात, देश, देव, लिंग, प्रदेश, भाषा, स्थळ, काळ, वेळ, विशय, कला, कुशळताय, क्रीडा, वेवसाय आदी.

साहित्याची पयली निर्मणी जाली तेन्ना सावन ताचो आलेख उंचेल्या पावंड्यार चडत आयला. साहित्याचें आदीम रूप हे 'वाक्-मय' आशिल्ल्यान तें मनीस कुळयेइतलेंच पुरातन जावन आसा.

अधीकृतपणान सांगचें तर तें 'वेद' आनी 'अवेस्ता' इतकें निश्चितपणान पुरातन आसूंक जाय. ते उपरांतचे जो इतिहास मेळटा तो ग्रीक, हिब्रु, संस्कृत, चिनी, लेटीन, पाली अर्धमागधी, तिबेटी, द्रविडी (तमिळी), सिंहली आदी साबाय भासांतल्यान विंगड विंगड भाशाकुळांतल्या भाशेंतल्यान चडट्या क्रमान साहित्य निर्मणी जावंक लागली. पूण आजूनय कांय भासो उरल्यात जातुंतल्यान फकत मौखिक स्वरुपांतलें (oral) म्हळयार वाक् - मय वाङ्मयूच निर्माण जाता. कारण तांकां आजून लिपयेचो सोद लागूंक ना.

मनीस संस्कृतायेच्या उदरगतीचे प्रक्रियेंत जायत्यो भासो आनी तांच्यो लिपयो नदरेआड जाल्यात. तातुंतल्या कांय भासाच्या पुनर्जिविताचो यत्न नेटान, निश्ठेन आनी मोटे सफळतायेन चल्ला, देरवीक - हिब्रु ही पोरनी विसरत गेल्ली पुर्विल्लया तेंपावयली गिरेस्त भास. आज ती परतून वयर सरल्या.

साहित्य म्हळयार एक साधन, जें मनशाचे संस्कृतीच्या संदर्भांतल्यान प्रज्ञा आनी प्रतिभेचो दिश्टावो घडयता. हो दिश्टावो रंग, रूप, आकार,रेशा, अक्षर, शब्द, स्वर, ताल, ध्वनी, नाद, शिल्प, नाच क्रिडा आदी साबार माध्यमांतल्यान घडयतात. साहित्याचो विचार फकत 'अक्षर' आनी 'शब्दा'च्या संदर्भांत करतल्या संस्कृतीच्या अभ्यासकाक साहित्याचे हे अनंत व्याप्तीचें दर्शन आतां जावंक लागलां.

- प्रा. बाळकृष्ण जी. कानोळकार

**लोकसाहित्य :** अनामीक लोकांनी रचिल्लें, परंपरेंतल्यान घोळणुकेंत उरिल्लें जनपद साहित्य. अशा साहित्यांत लोक कथा, लोकगीतां, लोकनाट्यां, म्हणी, कुवार्डी, ओपारी, उमाणे, अशा साबार लोकसमुदायांत प्रचलित आशिल्ल्या. निशेद्य करून मौखीक स्वरुपांत मेळपी साहित्य प्रकारांचो आस्पाव जाता.

लोक साहित्याक लोकविद्या, ग्रामसाहित्य, लोकसंस्कृती, लोक वाङ्मय ह्योय भारतीय संज्ञा वापरतात. पाश्चात संस्कृतीत Folklore हें उतर Folk म्हणजे 'लोक' आनी Lore म्हणजे साहित्य ह्या अर्थान वापरतात. हांगा लोक म्हणजे अप्रगत, अविकसीत लोकसमुदाय ह्या अर्थान घेवप जाता. Lore वा साहित्य वाङ्मय ह्या उतरा वरवीं मौखीक परंपरेंत आशिल्ल्या सगळयाच उपक्रमांचो आस्पाव करप जाता. तरीय 'साहित्य'चे सुटसुटीत व्याप्तीकातीर लोक साहित्यांत मुखेलपणान १) लोक कथा (बोध कथा, निति कथा, परिकथा, दं कथा) २) लोक गितां (जल्म - मरणा वेळावयलीं गीतां, श्रमगीतां, क्रीडागीतां, बडबड गीतां) ३) आख्यानां (किर्तनां, निरुपणां) ४) लोक नाट्यांतली गद्य-पद्य रचना वासुदेव, गोंधळी, भराडी, कालो, जागर, खेळ, पोवाडे, लावणी, तमाशा दशावतार, यक्षगान, जात्रा, भवाई आनी हेर (लोकनाट्यां) हांचो विचार करप जाता.

लोक साहित्य हें जनसमुदायाचें साहित्य. थारावीक संस्कृतींत एक समान संस्कृतीक दायज आशिल्ले पूण थळ, काळ, तत्त्वानुसार संदर्भांतले एकामेकांपासून अलग दिसपी जायते जनसमुदाय आसतात. ह्या असंग जनसमुदायांची आपली अशी एक अलग संस्कृतीक परंपरा आसता. मूळ समान परंपरेक धरून आशिल्ली ही अलग परंपरा त्या त्या जनसमुदायाचें वेगळें पण दाखयता. ह्या वेगळयापणानुसार त्या त्या जनसमुदायाकडसून वेगवेगळें लोकसाहित्य निर्माण जातक कथा, जैन धर्मासंबंदीत जैन कथा, गुणाढ्याच्या लौकीक बृहतकथा नितीशास्त्रीय पंचतंत्र कता, सोमदेवाचो कथा सरित्सागर, वेताळपंचविशी आनी सिंहासनबत्तीशी ह्यो चातुर्य कथा, वेगवेगळया प्रदेशांनी प्रचलित आशिल्ल्यो दंत कथा.

लोक साहित्य हो सामुदायीक अविश्कार म्हणून मानून घेवप जालां आसलें, तरी लोक साहित्य उगम काळांसंबंदीं एकमत जावप कठीण आसा. भोवतेक देशांच्या लोक कथांमदीं, विशेश करूरून थारावीक घडणुकांच्या आशयामदीं एकसारखेपण दिसता. प्रदेशीक आनी संस्कृतीक संदर्भ कुशीक काडले तर लोक कथेक वैश्वीक रुप प्राप्त जाल्लें दिसता. एका देशाच्या एका जनसमुदायांत प्रचलित आशिल्ले लोककथेचो आशाय आनी प्रयोजन, दुसऱ्या देशाच्या जनसमुदायांत प्रचलित आशिल्ल्या लोककथेच्या आशयाकडेन आनी प्रयोजनाकडेन तालमेळ दवरता म्हणपाचें दिसता. अगड बंब प्राणी, नटभक्षक मनीस, जादुटोणो करपी चेट किणी, बोलको निर्सग सर्गातल्यो परी, देव देवतांचो संचार अशीं पात्रां संसारभरच्या लोककथांनी दिसता. ताचेवयल्यान संसारीक लोककथांमदलें सारकेपण तर दिसताच, तेभायर लोककथांचो जल्म सुश्टनिर्मितीच्या सुरवेच्याच काळांत जाला म्हणपाचोय अदमास मेळटा. जी गंजाल लोक कथांच्या संदर्भात खरी आसा ती हेर लोकसाहित्य प्रकारांतच तितकीच खरी आसा.

खंयच्याय साहित्य प्रकाराप्रमाण, लोककथाय समाजाचें चित्रण करता. ताकालागून त्या त्या समाजांतल्या समाजमनाची वळख जावंक पावता. ताची सामाजीक जीवन पद्दत, सामाजीक निश्टा, ऐहीक तशें लौकीक प्रयोजन, धार्मीक तत्त्वप्रणाली, नैतीक तत्त्वप्रणाली, कुटुंबीक धारणा अशा साबार तासांचेर उजवाड घालपाक लोक साहित्याचो उपेग जाता. तातुंतल्या बोधकता, नितीकथा, म्हणी सारकिल्या प्रकारांनी समाजाचे बौध्दीक क्षमतेची वळख जाता. तेभायर समाजाखातीर तांचेवरवीं तयार अशीं मार्गदर्शन तत्त्वां प्राप्त जाता.

लोकसाहित्य ही एक साहित्य परंपरा आशिल्ल्यान कालानुसार तातूंत बदल जावप अपरिहार्य आसा. लोक साहित्याचो उगम आदीम काळांतलो धरलो तरी, सद्याच्या काळांत उपलब्ध आशिल्लें लोक साहित्य जशाचें तशें उपलब्ध जालां म्हणूंक मेळचेना. मूळ संहितेंत जायते पुरक - मारक बदल घडपाची शक्यताय आसा. तशेंच मौखिकता हो गूणय आतां लोक साहित्याचो खाशेलो गूण उरूंकना. आधुनीक काळांतल्या सुविधांक लागून जायतें लोक साहित्य आतां लिखीत स्वरुपांत उपलब्द जालां. तशेंच लोक साहित्य धरून सगळयाच

लोकवेदाच्या आदुनीकरणाचे प्रक्रियेंत लोक साहित्य हें आतां तशें अप्रगत वा ग्रामीण लोकांपुरतें उरूंकना. प्रगत तशें नागरी समाजजिवीताकडे.

- कों. वि. सं. मं.

**साळगांवकार उद्येग समुह :** गोंयच्या आर्थिक, शिक्षणीक, सांस्कृतिक जडण - घडणेंत मोलाचें योगदान दिवपी एक प्रमुख उद्योग समूह. गोंयच्या आर्थिक उदरगतीक व्हड प्रमाणांत हातभार लावपी खण उद्येगांत भरीव उलाढाल करून, आंतरराश्ट्रीय बाजारपेठेंत गोंयच्या खनीजाक दर्जेदार खनीज उत्पादन म्हणून म्हत्व प्राप्त करून दिवपाक ह्या उद्येग समुहाचे व्हड यत्न कारणीभूत जाले. खण उद्येगा वांगडाच वीज - निर्मिती प्रकल्प, येरादारी वेवस्था, वैजकी संशोधन केंद्र, शिक्षणीक संस्था, वर्तमानपत्र - नेमाळीं प्रकाशन, खेंळ अशा साबार मळांचेरय ह्या उद्येग समुहाची कामगिरी तोखणायेची आसा.

१९३४ त वास्को (मुरगांव) हांगा ल्हान प्रमाणांत किरकोळ विक्रेचो पसरो सुरू करून ह्या उद्येग समुहाच्या संस्थापकान, श्री. वासुदेवबाब महादेव साळगांवकारान (जल्म : १३ मे १९१६; मरण : १३ ऑक्टोबर १९८४) साळगांवकार उद्येगाची बुन्याद घाली. फुडें रामकृष्ण ह्या आपल्या भावाच्या सहकार्यान पसऱ्याची व्याप्ती वाडयली आनी आयात - निर्यातीच्या धंद्यांत ताचें रुपांतर केलें. फुडाराक १९५७ त 'व्ही. एम्. साळगांवकार इ. इरमांव लिमीताद' कंपनी सुरू करून श्री. वासुदेवबाब हाच्या कल्पक येवजण आनी कुशळ वेवस्थापनाखाला गोंयच्या खनीज उत्पादनाची निर्यात साळगांवकार कंपनीन केली. १६५०० टनांची लोखण - खनिजाची विक्रमी निर्यात करून, साळगांवकार कंपनीन खनीज उत्पादन आनी खनीज निर्यात उद्येगांत पयलें पावल घालें.



वासुदेवबाब म. साळगांवकार

आंतरराश्ट्रीय बाजारपेठेंत आपलो जम बसयतलो आनी उत्पादनाची पत सांबाळटलो तर हेर राश्ट्रांच्या उत्पादनाकडेन सर्त करून टिकाव धरचो लागतलो हें वासुदेवबाबाच्या शिटूक मनांत आयलें. तेखातीर गोंयच्या उत्पादनाचो दर्जो सांबाळचो लागतलो हें थारावन ताणें आधुनिक तंत्रशास्त्राचो आदार घेवन खनीज उत्पादनांत वेगवेगळे प्रयोग केले. उदकाच्या सांठ्यापोंदचो माल काडप, उक्ते पद्दतीचें खण काम करप, ड्राय स्क्रीमींग, मॅकानिकल हँडलींग, बेनेफिसीएशन, क्वालिटी कंट्रोल, ट्रान्शीपींग सारके आधुनिक, तांत्रिक सुविधांचो वापर करून गोंयच्या खनीज उत्पादनांत क्रांतीकारी बदल घडोवन हाडल्यात. तेचपरी आंतरराश्ट्रीय बाजारपेठेंत खनीज उत्पादनाच्या दर्जाची पत सांबाळून, गोंयांक आंतरराश्ट्रीय कीर्त जोडून दिल्या. आयचे घडयेक एके फावट २००,००० टन खनिजाची निर्यात करून वर्साक ३,०००,००० टनांवयर निर्यात करपाची हे कंपनीची क्षमता आसा.

खनीज उत्पादनाचे निर्यातीवांगडाच हेर तरेच्या उत्पादनांतय साळगांवकार कंपनी मुखार आसा. साबार उद्येगधंद्यांक आवश्यक अशे वीज निर्मितीचो प्रकल्प (रिलायन्स साळगांवकार पॉवर प्रॉजेक्ट), राश्ट्रीय - आंतरराश्ट्रीय वाहतूक वेवस्था (आजेंसीय जेराल प्रा. लिमिटेड आनी एअरो मुंडीआल), हॉटेल वेवसाय (तीन आनी पांच नखेत्री हॉटेलां), वित्तसंस्था (पिरामीड फायनान्स लि.), शिक्षणीक आस्थापनां (महादेवराव साळगांवकार कॉलेज ऑफ लॉ आनी इन्स्टीटयूट ऑफ मॅनेजमेंट स्टडीज), वैजकी संस्था (साळगांवकार मेडिकल रिसर्च सेंटर), प्रकाशन (राश्ट्रमत, सुनापरान्त, गोवा टुडे), खेळ (साळगांवकार स्पोर्टस् क्लब) अशा साबार मळांचेर ह्या उद्येग समुहान नामना जोडल्या.

साळगांवकार हें घराणें मुळचें रायबंदरचें. उपरांत तें वास्को स्थायीक जालें. साळगांवकार कंपनीचो संस्थापक वासुदेवबाब हाचो बापूय श्री. महादेव साळगांवकार, वासुदेवबाबाच्या भुरगेपणांतच भायर पडिल्ल्यान ताचो सांबाळ ताची आवय गंगाबाय हिणें केलो. भुरगेपणांतच संवसाराची जापसालकी भुजांचेर येवन पडिल्ल्यान, वासुदेवबाबांक सुरवेच्या काळांत खूब अडचणींक तोंड दिवचें पडलें. ताची चिकाटी आनी धडाडी ताच्या आदाराक आशिल्ल्यान ताणें परिस्थितीचेर मात करून वैभवशाली उद्येग उबो केलो. एक पसरकार म्हण सुरवात करून तो एके आंतरराश्ट्रीय नामनेच्या उद्येगसमुहाचो अध्यक्ष जालो. ह्या कामांत ताका ताचे भाव (रामकृष्ण) आनी पूत (अनिल, शिवानंद आनी दत्तराज) हांचें सहकार्य मेळ्ळें.

साळगांवकार उद्येग समुहाचें आनी विशेश करून वासुदेवबाबाचें गोंयच्या फुडारासंबंदींच्या आनीक एका खाशेल्या योगदानाचो उल्लेख जावप अपरिहार्य जाता. गोंयच्या विलिनीकरणाच्या प्रस्नावेळार वासुदेवबाबाचो विलिनीकरण विरोधी चळवळीक खुबूच आदार जालो. ह्या प्रसंगार 'राश्ट्रमत' ह्या दैनिकाची जापसालकी घेवन ताणें विलिनीकरण विरोधी चळवळीक इतिहासीक योगदान दिलें. उपरांत 'सुनापरान्त' हें दिसाळें सुरू करून कोंकणी भाशेचे उदरगतीचे चळवळीक व्हड हातभार लायलो.

वासुदेवबाबाच्या आर्थिक, सामाजिक, शिक्षणीक आनी

सांस्कृतिक वावराचो जायत्या नावाजत्या संस्थेचे वतीन भोवमान जाला.

- कों. वि. सं. मं.

**साळगांवकार, नागेश विठ्ठल :** (जल्म : ११ ऑगस्ट १९३७, सांता-क्रुज, तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण इंग्लीशींतल्यान घेतलें. तो गोवा लिबरेशन आर्मीचो वांगडी आशिल्लो. तो भूंयगत राजकीय वावरांनी वांटो घेतलो. १५ सप्टेंबर १९५४ ह्या दिसा ताका अटक करून बंदखणींत घालो. उपरांत २७ मे १९५५ ह्या दिसा ताची सुटका जाली. ५ जून १९५५ दिसा ताका परत अटक केलो. १६ सप्टेंबर १९५५ दिसा ताची सुटका जाली. सुटके उपरांत तो परत गोवा लिबरेशन आर्मीखातीर वावर करूंक लागलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**साळगांवकार, शिवराम सुभा :** (जल्म : १० मे १९३१, सांता-क्रुज, तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. आझाद गोमंतक दल संघटनेचो तो कार्यकारी वांगडी आशिल्लो. संघटनेच्या फुडाऱ्यांक पोलिसांविशीं आनी मिलिटरी अधिकाऱ्यांच्या कारवायांविशीं म्हायती पावोवपाचें काम करतालो. हाचेभायर सुटकेझुजाऱ्यांक जेवण आनी रावपाक आलाशिरो दिवप, लोकांमदीं राजकीय जागृताय घडोवन हाडप असलीं कामां तो करतालो. १४ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी धा वर्सांखातीर बंदखणींत दवरलो. बंदखणींत ताका सुमाराभायर त्रासांक तोंड दिवचें पडलें. २२ ऑगस्ट १९५९ दिसा ताची सुटका जाली, पूण सुमार देड वर्स पोलिसांनी ताका आपले नदरेखाला दवरिल्लो. गोंय सुटके उपरांत तो इंडियन नॅशनल कॉंग्रेसचो वांगडी आशिल्लो. १९७७ वर्सा सावन तो जनतापक्षाचो वांगडी जालो. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**साळीक :** हिंदी : कमल, कनवाल, अंबुज; गुजराती : सुरिया, कमळ; मराठी : कमळ; कन्नड : तवरिगड्डे; संस्कृत : पद्मम, पंकज, सरसिज, अंबुज, कमल; इंग्लीश : इंडियन लोटस, सेक्रेड लोटस; लॅटीन : निलंबो न्युसीफेरा; निलंबियम स्पेसिओजम, कूळ : निंफिएसी).

उदकांत जावपी एक वनस्पत. हे वनस्पतीचें खोड लांब, मोव आनी उदकाच्या तळाक जमनीचेर सरपटत वाडटा. पानां सादीं पूण सत्रेच्या आकाराचीं ६०-९० सेंमी. व्यासाचीं वाटकुळीं आनी लांब देठाचीं आसतात. तांच्यो कडो वयल्यान वळिल्ल्यो आनी शिरो पानांच्या मदल्या भागासावन किरणासारक्यो पातळिल्ल्यो आसतात. देठाक कांटे आसतात. फुल वासाचें, एकफावट एकच जाता. तें १०-१५ सेंमी. व्यासाचें ओडलायणें आनी लांब देठाचें रंगान धवें वा गुलाबी आसता. तें जुलै - ऑक्टोबरांत फुलता. संदलां चार-पांच, पाकळ्यो खूब आसतात. पुष्पस्थळी व्हड भोंवऱ्यासारखी ५-१० सेंमी., तोंकाक सपाट आसून तातुंतल्या स्वतंत्र पोकळ्यांत किंजदलां आसतात.

ही वनस्पत मुळची चीन, जपान आनी भारत ह्या देशांतली आसुंये. ही भारतांत सगळेकडेन आनी इराण सावन उदेंतेक ऑस्ट्रेलियामेरेन आसा.

हिची लागवड गड्डे वा बियांपसून करतात. ह्या झाडाच्या मुळांतले गड्डे भाजून, उकडून खातात. ताचे सुकयल्ले काप रोसांत घालतात. तळूनय खातात वा लोणचेंय करतात. तातूंत रिबोफ्लाविन, निॲसीन आनी क, इ हीं जीवनसत्त्वां आसतात. तरणीं पानां आनी बियो खातात. जून वा सुकयल्लीं पानां पत्रावळींसारखीं वापरतात. बी ओकारो थांबोवपाखातीर, भुरग्यांक मुतूंक जावपाखातीर आनी जोराचेर दितात आनी कातीच्या रोगाचेर थंडाय हाडपाखातीर वापरतात. मुळांचो गोबर मूळव्याध, आमांश, अग्निमांद्य हांचेर गुणकारी आसून नायटो आनी चामडेच्या रोगांचेर तांचो लेप लायतात. साळकां थंड, स्तंभक आशिल्ल्याकारणान पटकी आनी हगवण हांचेर दितात. महादेव आनी गणपतीचे पूजेंत साळकांक म्हत्व आसा.

**तांबडें साळीक :** मराठी : रक्तकमळ; हिंदी : कनवाल; गुजराती : निलोफल; कन्नड : बिलितवरई, न्यादलेहबू; संस्कृत : अलिप्रिय, शेषपद्म, रक्तोपल; इंग्लिश : इंडियन रेड वॉटर-लिली; लॅटीन : निंफिया प्यूबिसेन्स; कूळ : निंफिएसी.

ह्या वरवदी उदकांतल्या वनस्पतीचें मूलक्षोड आंरवूड, उबें वाटकुळें आसता. पानां सादीं वाटकुळीं, तरणीं आसतना बाणासारखीं पूण सत्रेच्या आकाराचीं १५-२५ सेंमी. व्यासाचीं, तळाकडे काळजाच्या आकाराचीं लांब आनी गुळगुळीत देठाचीं आसतात. फुलां सप्टेंबर ऑक्टोबर म्हयन्यांत फुलतात. फुलां एकोडीं फुलतात. तीं ७.५ - १० सेंमी. व्यासाचीं तांबडीं आनी धवीं आसून फक्त सकाळचीं फुलतात. फुलांत ४ संदलां, १२ पाकळ्यो आनी ४० केसरदलां आसतात. फळ पाचवें आनी वाटकुळें आसता.

ही वनस्पत आफ्रिका, हंगेरी, जावा, फिलिपीन्स आनी भारताच्या उश्ण भागांत उथळ उदकांत सांपडटा.

ह्या साळकाच्या झाडाचे सगळे भाग खातात. मुळां हरवीं वा उकडून खातात फुलांची आनी फळांची भाजी करतात. बियो तरन्यो वा भाजून खातात. बियांच्या पिठाची भाकरी वा पेण करून खातात. फुलांचे घिल्लड, गुलकंद हे जिन्नस करतात. फुलांचो काडो काळजाक गुणकारी आसा. मूलक्षोड आमांश, अतिसार, अग्निमांद्य,

मुळव्याध हांचेर गुणकारी आसा.

पिठाची भाकरी, बियो चड खाल्ल्यार विषबाधा जांव येता. ह्या तांबड्या साळकाक धार्मिक म्हत्वूय आसा.

**निळें साळीक :** मराठी : कृष्णकमळ; हिंदी आनी गुजराती : नीलकमल, नीलपद्म; संस्कृत : नीलोत्पल; इंग्लिश : ब्ल्यू लोटस ऑफ इंडिया, इंडियन ब्ल्यू वॉटर - लिली; लॅटिन निंफिया स्टेल्लॅटा; कूळ : निंफिएसी.

खूब वर्सां जगपी साळकाची एक जात. ही मुळची आग्नेय आशियांतली. तिचो मूलक्षोड लांब वाटकुळो (लंबगोल); पानां १२-२० सेंमी. वाटकुळया आकाराचीं, तळाकडेन अशीर आनी खंडीत भागांनी आसतात. दोनय वटेन गुळगुळीत आनी सकयले वटेन किरमिजी थिपके आसतात. फुलां व्हडलीं निळीं, जांबळीं, धवीं आनी गुलाबी मंद वासाचीं, दिसभर फुलिल्लीं आसतात. बियांचेर उब्यो वळी आसतात.

ह्या साळकाचो सगळो भाग खावपासारखो आसून बियो भूक वाडोवपी आनी मूलक्षोडाचो पिठो हेर साळकांप्रमाण वखदी आसता.

- कों. वि. सं. मं.

## सिंग, ग्यानी झैल : (जल्म : ५ मे १९१६ संधावन, फरिदकोट, पंजाब).

भारताचो सातवो राष्ट्राध्यक्ष. ताचें मूळनांव जर्नाल सींग. ताचो जल्म गरीब शेतकामती घराण्यांत जालो. ताचो बापूय किशन सिंग हो मुळांत मेस्त. पूण उपरांत ताणें जमीन घेवन शेतकी जीण आपणायली. झैल सिंग स वर्सांचो आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयलें. उपरांत ताचो सांबाळ ताचे आवयन केलो. आपले भौशीक आनी राजकीय विचारसरणेचेर आवयन घालून दिल्ल्या संस्कारांचो व्हड वांटो आसा हें झैल सिंग मान्य करता. ताच्या शिक्षणाविशीं व्हडलीशी म्हायती मेळना. पूण ताका 'ग्रंथी' म्हळयार (पवित्र ग्रंथ साहेब वाचून ताचें स्पश्टीकरण करपी) जावपाचो नाद आशिल्ल्यान ताणें त्याच मार्गान शिक्षण मेळयलें. ग्रंथी म्हूण वावूरतना ताणें पवित्र ग्रंथाविशीं व्हड गिन्यान मेळयलें. देखून ताका 'ग्यानी' हें नांव पडलें.



भुरगेपणांतल्यानच तो शांत आनी कश्टी स्वभावाचो. लहानपणांत ताणें मेस्तपण, धवडकाम, जोतीं शिंवप, रस्ते करप, घरां शिंवप, शेतांत नांगर धरप असलीं कामां केल्यांत. ताणें भुरगेपणांत तयार केल्ली गुरू ग्रंथ साहेबाची पालखी ही एक बऱ्यांतली बरी कलाकृती आसा.

सुटकेझुजारी म्हणूनय ताणें नामना जोडल्या. पंजाबचो महाराज आनी ब्रिटिश सरकाराचे जुलमी राजवटीआड आवाज काडलो म्हूण ताका खूब खेपे बंदखणीची ख्यास्तूय भोगची पडली. जालियनवाला बागेंतली - दुरवेस्त घडणूक, तशेंच भगत सिंग, राजगुरू, सुखदेव ह्या सारकिल्ल्या क्रांतिवीरांच्या प्रेरणेंतल्यान ताणें स्वातंत्र्यझुजांत वांटो घेतलो. सुरवेक तो क्रांतीकारी पंगडाक मेळून बंद, उठाव घडोवन हाडप असलो वावर करतालो. पूण उपरांत काँग्रेस पक्षाक मेळून ताणें गांधीजीची विचारसरणी आपणायली. पंजाबांत काँग्रेस पक्षाची स्थापणूक करपाक ताणेंच फुडाकार घेतिल्लो. पिरायेच्या विसाव्या वर्सा १९३६त किसान मोर्चा आयोजीत केल्लो म्हूण ताका पयले खेप बंदखणीची ख्यास्त जाली. १९३८त परतून ताका धरलो आनी पांच वर्सांखातीर खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १९४६त फरिदकोट जिल्ह्यांत राष्ट्रीय बावटो चळवळ घडोवन हाडिल्ल्या कारणान ताका परतून बंदखणीची ख्यास्त भोगची पडली. स्वातंत्र्य चळवळीवेळार ताका खूब खेप बंदखणींत रावंचो पडलो. देखून बंदखणींत आसतना ताणें आपलें नांव झैल सिंग लायलें. स्वातंत्र्या उपरांत त्याच नांवान ताणें प्रसिद्दी जोडली.

ग्यानी झैल सिंग एक खांपो संघटक आशिल्लो. तो फरिदकोट राज्य काँग्रेसचो संस्थापक आशिल्लो. हे संस्थेचो आनी राज्य प्रजा मंडळाचो अध्यक्ष म्हूण ताणें वावर केला. तशेंच १९६२ त तो राज्य सभेचो वांगडी म्हूण वेंचून आयलो. १९६२त फरिदकोट मतदार संघांतल्यान तो पंजाब विधानसभेचेर वेंचून आयलो. १९७२ चे भौशिक वेंचणूकेंत तो पंजाब विधानसभेचेर परतून वेंचून येवन पंजाबचो मुखेलमंत्री जालो. मुखेलमंत्री जाल्याउपरांत ताणें भौशीक आनी अर्थीक मळाचेर उदरगत घडोवन हाडपाखातीर साबार नव्यो येवजणो चालीक लायल्यो. केंद्र सरकारांत इंदिरा गांधीच्या मंत्रीमंडळांत गृहमंत्री म्हूण ताणें वावर केला. १५ जुलय १९८२ दिसा तो भारताचो राष्ट्रपती म्हूण वेंचून आयलो. २५ जुलय १९८२ ह्या दिसा भारताचो सातवो राष्ट्रपती ह्या नात्यान ताणें राज्यकारभाराचीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. उपरांत २५ जुलय १९८७ मेरेन हें पद ताणें सांबाळ्ळें.

ग्यानी झैल सिंगाचें लहानपणांतूच म्हळयार पिरायेच्या अठराव्या वर्सा प्रधान कौर हिचेकडेन लग्न जालें. ग्यानीक एक चलो आनी तीन चलयो आसात. वाचन हो ग्यानीचो मुखेल छंद. तशेंच ताका संगीत आनी कवितांचोय नाद आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

## सिंग, चौधरी चरण : (जल्म : २३ डिसेंबर १९०२, मेरठ उत्तर प्रदेश; मरण : २९ मे १९८७).

भारताचो पांचवो प्रधानमंत्री. पिरायेच्या सत्तराव्या वर्सा ताणें प्रधानमंत्री पद ग्रहण केलें. ताचें सरकार २८ जुलय १९७९ ते १४ जानेवारी १९८० अशें फकत पांच म्हयने पंदरा दिसच तिगून उरलें. मोरारजी देसाय हाच्या फुडारपणाखालचें सरकार बरखास्त जालें. उपरांत राष्ट्रापती निलम संजीव रेड्डीन केंद्र सरकार घडोवपाखातीर चरण सिंहाक आमंत्रीत केलो. ताणें श्रीमती इंदिरा गांधीच्या तेंक्यान केंद्र सरकार घडयलें. पूण २० ऑगस्ट १९७९ दिसा इंदिरा गांधीन आपलो तेंको काडून घेतिल्ल्यान चरण सिंहाचेंय सरकार गडगडलें. संसदेची एकय अधीकृत बसका जायनासताना, बरखास्त जाल्ली ही भारताची पयली लोकसभा.



चरण सिंहाचो जल्म उत्तर प्रदेशांतल्या मेरठ जिल्ह्यांतल्या नूरपूर गांवांत एका शेतकामती घराण्यांत जालो. १९२३ त ताणें विज्ञान विशयांत पदवी घेतली. जाल्यार १९२५ त आगरा विद्यापिठांतल्यान पदव्युत्तर शिक्षण घेतलें. ताणें कायद्याचेंय शिक्षण घेतिल्लें. गाजियाबादेक ताणें वकिलीय सुरू केल्ली. १९२९ त मेरठ आयल्याउपरांत ताणें स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेवपाक सुरवात केली. तेरखातीर ताका बंदखणीचीय ख्यास्त जाल्ली.

१९२५ त चरण सिंहाचें गायत्री देवीकडेन लग्न जालें. १९३२ ते १९३६ मेरेन तो मेरठ जिल्हा परिशदेचो उपाध्यक्ष आसलो. १९३७ त तो पयले खेप मेरठ जिल्ह्यांल्या छपरौली मतदार संघातल्यान विधान सभेचो वांगडी जालो. उपरांत १९४६, १९५२, १९६२ आनी १९६४ त ह्याच मतदार संघांतल्यात वेंचून येवन विधानसभेंत प्रतिनिधित्व केलां. ताका १९४६ त त्या तेंपावयलो उत्तर प्रदेशाचो मुखेलमंत्री पं. गोविन्दवल्लभ पन्त हाणें संसदीय सचिव केल्लो. उपरांत तो राजस्व - शेतकी मंत्री जालो. १९५९ त मुखेलमंत्री डॉ. सम्पूर्णानंदाकडेन ताचे मतभेद जाल्ल्यान ताणें मंत्रीमंडळांतल्यान राजिनामो दिलो. चन्द्रभानू गुप्त सरकारांत १९६० त तो ग्रहमंत्री आनी शेतकी मंत्री जालो. १९६२ - ६३ त सुचेता कृपलानीच्या मंत्रीमंडळांत तो शेतकी आनी वन मंत्री आसलो. १९६७ त चन्द्रभानू गुप्त हाचें परतून सरकार आयल्या उपरांत चरण सिंहाचोय आस्पाव ताच्या मंत्रीमंडळांत आसलो. पूण १८ व्या दिसाच ताणें मंत्रिमंडळाक सोडचीट दिवन कॉंग्रेसिंतल्यानय भायर सरलो. तेन्ना ताणें हेर १६ समर्थकांच्या आदारान 'जन कॉंग्रेस' नांवाचो आपलो नवो पक्ष तयार केलो. उपरांत कांय हेर बिगर कॉंग्रेसी समर्थकाक आपलेवटेन हाडून १९६७ त संयुक्त विधायक दलाची स्थापना करून विधानसभा वेंचूणूक लडयली. संयुक्त विधायक दलाचो नेतो म्हणून ३ एप्रिल १९६७ त तो उत्तर प्रदेशाचो मुखेलमंत्री जालो. पूण एका वर्सा भितरच ताचें सरकार बरखास्त जाल्ल्यान राज्यांत राश्ट्रपती राजवट लागू केली. उपरांत १९६८ त ताणें भारतीय क्रांति दल नांवाचो पक्ष निर्माण केलो. उपरांत फेब्रुवारी १९६९ त जाल्ले वेंचणुकेंत ताचो पक्ष विरोधी पक्षाच्या रुपान वेंचून आयलो. पूण १९७० त कॉंग्रेस सरकार गडगडिल्ल्यान कॉंग्रेसींतल्यान भायर सरिल्ल्या कॉंग्रेसच्या आमदरांच्या तेंक्यान तो उत्तर प्रदेशाचो मुख्यमंत्री जालो. पूण राजनितीक अस्थिरतायेक लागून ऑक्टोबर १९७० त परतून राजवट थंय लागू करची पडली. १९७४ त ताणें आपले अध्यक्षतेखाल भारतीय लोक दल नांवाचो पक्ष तयार केलो. १९७७ त तो लोकसभेचेर वेंचून आयलो. उपरांत मोरारजी देसायच्या फुडारपणाखाल घडिल्ल्या केंद्र सरकारांत तो ग्रहमंत्री जालो. पूण जून १९७८ त मोरारजी देसायकडेन ताचे मतभेद जावन तो आपल्या हेर सहकाऱ्यांवांगडा भायर सरलो. पूण जनता पार्टीचो वरिश्ठ नेतो जयप्रकाश नारायणाच्या आदारान तो २४ जानेवारी १९७९ दिसा परतून एकदां उप - प्रधानमंत्री जालो. पूण मोरारजी देसायकडेन परतून मतभेद जाल्ल्यान ताणें आपल्या हेर सहकाऱ्यांसयत मोरारजी देसायच्या सरकाराक सामुहीक सोडचीट दिली.

२८ जुलय १९७९ दिसा तो इंदिरा कॉंग्रेसच्या तेंक्यान भारताचो पांचवो प्रधानमंत्री जालो. पूण इंदिरा गांधीन आपलो तेंको काडून घेतिल्ल्यान रोकडेंच ताचें सरकार गडगडलें.

- कों. वि. सं. मं.

**सिंग, विश्वनाथ प्रताप :** (जल्म : २५ जून १९३१, अलाहाबाद, उत्तर प्रदेश).

भारताचो आठवो प्रधानमंत्री. २ डिसेंबर १९८९ दिसा भारताचो प्रधानमंत्री म्हूण ताणें सोपूत घेतलो. पूण ताच्या राश्ट्रीय मोर्चा प्रणीत सरकाराक इकरा म्हयन्यांभितरच विश्वासदर्शक थारावक तोंड दिवचें पडलें.



७ नोव्हेंबर १९९० दिसा लोकसभेंत ताचो ३४६ मतांआड १४२ असो पराभव जालो. स्वतंत्र भारताच्या इतिहासांत संसदेंत पराभव जावपी हें पयलें सरकार.

विश्वनाथाचो जल्म अलाहाबादेक जमीनदार घराण्यांत जालो. राजा दय्या हाचो तो पूत. पिरायेच्या पांचव्या वर्सा ताका मंदाच्या राजान पोसको घेतलो. उपरांत ताणें विश्वनाथाच्या आवयबापायक वा भावांक ताका मेळपाक दिलें ना. पूण

मंदाच्या राजाक टि. बी.चें दुरवणें आशिल्ल्यान ताणें विश्वनाथाक आपलेपसून पयसच दवरलो. त्या काळांत अमर सिंग माथूर हाणें ताका सांबाळ्ळो. पूण मंदाच्या राजाच्या मरणाउपरांत विश्वनाथाच्या बापायन ताका मातूर घराण्यांतल्यान बळजबरेन व्हेलो. तेन्ना विश्वनाथाची पिराय धा वर्सांची आसली. हे घडणुकेक लागून विश्वनाथाच्या मनाचेर वायट परिणाम जालो. मंदा गादयेचेर हक्क सांगपी दुस्मानाकडच्यान विश्वनाथाच्या जिविताक धोको आशिल्ल्यान ताका सदांच राखचो पडटालो.

प्रधानमंत्री पद सांबाळचे आदीं ताणें इंदिरा गांधी सरकारांत वेपार मंत्री (१९८३ - ८४), जाल्यार राजीव गांधीच्या सरकारांत वित्त मंत्री (१९८५ - ८७) आनी राखणेमंत्री (१९८७) म्हूण वावर केला. प्रधानमंत्री जातकच सगळयांत पयलीं ताणें प्रचार माध्यमांक स्वायत्तताय दिवपाखातीर "प्रसार भारती" बील संसदेंत मांडलें. पूण ताचें सरकार अल्प काळच उरिल्ल्यान तो तें पास करून घेवंक शकलो ना. लोकांचो व्हड विरोध आसून लेगीत ताणें मागाशिल्ल्या लोकांखातीर ६०% जागे राखून दवरपी मंडल आयोग करणेंत हाडलो ही ताच्या सरकारची सगळयांत व्हडली प्राप्ती.

भुरगेपणासावन शांत स्वभावाचो म्हूण ताका वळखताले. राजकारणाशिवाय कविता बरोवप आनी चित्रकलेचोय ताका नाद आसा. लाल बहादूर शास्त्री आनी ताचो भाव (विश्वनाथ) हांचे प्रेरणेन तो राजकारणांत रिगलो. ताचें सिता कुमारी नांवाच्या राजस्थानांतल्या देवगड राजाचे धुवेकडेन लग्न जालें. प्रधानमंत्री जावंचे पयलीं ताणें भूदान चळवळींत सक्रीय वांटो घेवन पासना गांवांतली आपली जमीन दान केल्ली. लोकसभेचो वांगडी म्हूण तो वेंचून आयिल्लो. तशेंच उत्तर प्रदेशाचो मुखेलमंत्री म्हणूनय ताणें वावर केला.

- कों. वि. सं. मं.

**सिंधी लोक :** सिंध प्रांतांतल्यान आयिल्ले लोक. हिंदूस्थान स्वतंत्र जातकच देशाची फाळणी जाली. ते फाळणेंत सिंध प्रांत पाकिस्तानांत गेलो. थंयच्या हिंदू लोकांक जिवीत, अब्रु, वित्त आनी धर्म राखपाखातीर आपलो प्रांत सोडून भारतांत येवचें पडलें. अशे लाखांनी लोक भारतांत आलाशिऱ्याक आयले. तांकां सिंधी लोक म्हण्टात.

१९४७ वर्सा सिंध प्रांतांत १४ लाख हिंदू आशिल्ले. तातुंतले १२.५ लाख लोकांक स्थलांतर करचें पडलें. भारतांतल्या वेगवेगळया राज्यांनी ते येवन रावले. सरकारान तांकां आलाशिरो दिलो आनी तांचें पुनर्वसन केलें. तांणी भारतांत वेगवेगळया जाग्यांनी जायते उद्देगधंदे सुरू केले.

सिंध हो हिंदूस्थानांतलो सामको अस्तंतेकडलो प्रांत. ताचे उदेंतेक राजस्थानांतलें वाळवंट, दक्षिणेक कच्छांचें रण आनी सिंधू दर्या, अस्तंतेक बलुचिस्तान आनी उत्तरेक बलुचिस्तान आनी पंजाब हे प्रदेश आसात. ताचें क्षेत्रफळ ४८,००० चौ. मैलांपरस चड आसा.

ह्या प्रदेशांत पावस सामकोच कमी पडटा. पूण सिंधू न्हंयेक लागून तो प्रदेश सुपीक जाला. सिंधांतल्या मोहेंजोदाडो आनी पंजाबांतल्या हडप्पा हांगा केल्ल्या उत्खननांत सिंधूच्या देगणांतले सामके पुर्विल्ले संस्कृतीचो सोद लागला. तिका सिंधुसंस्कृती हें नांव दिलां. ही सिंधुसंस्कृती वैदिक आर्यांच्याय पयलिंची आसून द्रविड लोकांनी ती निर्माण केली अशें मानतात. ताचेउपरांत आर्यांनी वैदिक संस्कृतीची स्थापना केली.

सिंधचेर जायतीं परकीय आक्रमणां आयलीं. यवन, पल्हव, शक आनी कुशाण ह्या लोकांच्या टोळयांनींय भारतांत वसाहती केल्यो, राज्यां स्थापलीं आनी शेवटाक ते लोक हांगाच्या मुळच्या लोकांत विलीन जाले.सिंधांतल्या लोकांत शक वंशाचो भाग बरोच आसा. थंय ल्हव ल्हव सगळयांचो मेळून हिंदू समाज निर्माण जालो. बौध्द आनी जैन पंथांचोय त्या प्रदेशांत प्रसार जाल्लो.

इ.स.च्या ८व्या शेंकडयांत अरबांनी सिंधचेर घुरी घाली तेन्ना थंय हिंदू धर्म बरेतरेन प्रस्थापित जाल्लो. मुलतान हें ताचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. शिव, पार्वती आनी गणेश ह्यो तांच्यो मुखेल देवता आशिल्ल्यो. तशेंच ब्रह्मा आनी सूर्य हांचीय ते लोक पुजा करताले. थंय सूर्याचें एक व्हड सोबीत अशें देवूळ आशिल्लें.

हिंदू धर्माप्रमाण बौध्द पंथाचोय सिंधांत बरोच प्रभाव आशिल्लो. तांणी थंय जायतीं बौध्द देवळांय बांदिल्लीं.

इ.स.च्या सातव्या शेंकडयांत मुसलमानांनी दक्षिण भारताकडेन वेपार सुरू केल्लो. इ.स. ७११ त खलिफान धाडिल्ल्या मुहंमद कासीम हाणें सिंधचेर स्वारी केली. दाहर हुशार आशिल्लो. पूण ताणें झुजाची कांयच तयारी करूंक नाशिल्ली. ताच्या राज्यांत फितूर लोकय आशिल्ले. ताका लागून दाहरचो पराभव जालो आनी कासीमान ताच्या जायत्या सैनिकांची कत्तल केली. मागीर ताणें सगळोच सिंध प्रदेश सहजपणान जिकून घेतलो.

अरबांनी सिंध प्रांतांत जायत्यो वसाहती स्थापल्यो हजारांनी हिंदूंक बाटयले, हिंदू बायलांक पळोवन व्हेलीं आनी हिंदुंचीं देवळां ना नपश्यात करून थंय मशिदी उबारल्यो. सिंधचो वेपार मात तांणी खूब वाडयलो.

अरबांच्या उपरांत तार्तर, अफगाण, तुर्क आनी मोगल हांणीय सिंधचेर घुरयो घाल्यो आनी थंयच्या जायत्या हिंदूंक मुसलमान केले. जायते हिंदू लागिंच्या प्रदेशांनी पळून गेले. लाखांनी हिंदू सिंध प्रांतांतल्या खेडेगांवांनी जायत्या आपत्तींक तोंड दीत रावले. तांचे खूब हाल जाले. पूण तांणी आपलो हिंदू धर्म सोडलो ना.

इ.स.च्या ११ व्या शेंकडयांत गझनीच्या महंमुदान सिंधचेर

स्वारी केली. ताचेउपरांत इ.स.१०५० पसून सुमार २५० वर्सां सिंधचेर सुम्रा ह्या हिंदू घराण्याची सत्ता आशिल्ली. अलाउद्दीन खिलजीन ह्या राजाचो पराभव केलो. उपरांत सम्मा ह्या हिंदू घराण्यान थंय राज्य केलें. इ.स. १५९२त अकबर बादशहान तें राज्य जिकून घेतलें.

इ.स.च्या. १७व्या शेंकड्याच्या शेवटाक सिंधांत कल्हो०रा नांवाच्या घराण्यान राज्य स्थापलें. पूण इ.स.१७३९ वर्सा नादिरशाहान तें नश्ट केलें. उपरांत सुमार १०० वर्सां थंय तालपूरच्या मीर घराण्याची सत्ता आशिल्ली. पूण इ.स. १८४३त इंग्लिशांनी सिंध प्रांत घेतलो.

अशेतरेन अस्थिरता आनी अशांतता आसूनय हिंदू लोक सिंध प्रांतांत जायते शेंकडे रावपाक शकले. कांय घराण्यांनी आपलो उत्कर्शय करून घेतलो. पूण विसाव्या शेंकड्यांत पयलींसारखीच भयानक परिस्थिती उत्पन्न जावन लाखांनी हिंदूंक धर्मांतराच्या भंयान निर्वासित जावन भारतांत आलाशिरो घेवंचो पडलो.

सिंधी लोकांत जायत्यो जाती आसात. तातुंतल्यो लोहाणा, भाटिया आनी खत्री ह्यो वेपारी जाती आसात. सारस्वत, पुष्कर्णा, जाजिक आनी भाट ह्यो धार्मिक जाती आसात. शेट, वानहन, गूर ह्यो वेवसायीक जाती आसात. सहत आनी छप्रू ह्यो हेर जाती. लोहणा ही मुखेल जात आसून ते जातीची लोकसंख्या खूब आसा.

तांच्यांत अमिल नांवाचो एक वर्ग आसा. तातूंत सगळ्या सरकारी अधिकाऱ्यांचो आस्पाव जाता. सिंधच्या मुसलमान शासकांनी चडशीं अधिकारपदां हिंदूंकच दिल्लीं. कालांतरान तांची एक वेगळीच जात तयार जाली. अमल ह्या फारसी उतरावयल्यान अमिल हें नांव ते जातीक फाव जालें.

ठाकूर, उदासी, मसंद, गुर्पोटो आनी भाई ह्या नांवांच्यो जातीय सिंधी लोकांत आसात. हेर प्रदेशांतल्या हिंदू लोकांसारखीच ही जातीवेवस्था आसा.

सिंध प्रदेशांत हिंदू आनी मुसलमान लोकांच्या भक्तिपंथांत जायती सरमिसळ जाल्ली. हिंदू आनी मुसलमान दोगय जायत्या साधुसंतांचे सामायिक भक्त आशिल्ले. हिंदुंचे मुसलमान गुरू आनी मुसलमानांचें हिंदू गुरू अशेय प्रकार आशिल्ले. कांय संतांक वेगवेगळीं नांवां आशिल्लीं. ख्वाजा खिज हांकां हिंदू लोक जिंदा पीर म्हण्टाले. सूफी पंथाच्या प्रभावाक लागून सिंधी मुसलमानांत संतांची पुजा सुरू जाली आसुंये.

शैव, वैश्णव, शाक्त, सौर आनी नानकशाही हे सिंध प्रदेशांतले मुखेल धर्मपंथ. सारस्वत ब्राह्मण शैव आसात. पुष्कर्ण ब्राह्मण, भाटिया, कांय खत्री आनी कांय लोहाणा हे वैश्णवपंथी वल्लभचारी आसात. भाट, गुरू, शेट आनी वन्हन शाक्त आसात. नानकशाही पंथाचो उदय जावंचेपयलीं सगळे ठाकूर आनी लोहाणा हे दर्यापंथी म्हणजे सिंधू न्हंयेचे उपासक आशिल्ले.

शिव - म्हादेव हो चड करून ब्राह्मणांचो आनी जोगी, गोसावी लोकांचो देव आसा. हेर जमातींचे कांय लोक शिवाक भजतात. पूण सिंध प्रदेशांतलीं सगळीं शिवाचीं देवळां लोहाणा लोकांनी बांदिल्लीं आसात. थंय महादेवापरस देवीचे भक्त चड आसात. सिंधभवानी, काली आनी शीतला ह्या नांवांनी सिंधी लोक तिची पुजा करतात. कांय लोक तिका पार्वती वा गौरी ह्या नांवानय पुजतात. वैशाख तृतीयेक गौरीतीज म्हण्टात.

त्या दिसा सवाशिणी म्हादेव - पार्वतिची पुजा करून दिसभर उपास करतात. देवीच्या भक्तांतले कांय लोक शाक्त पंथाचेय आसात.

सिंधी हिंदुंच्या दर धार्मिक विधींच्या सुरवेक गणेशपुजा करतात. तशेंच स्वस्तिकय गणपतीचें प्रतिक मानतात.

तांच्यांत सुर्योपासना बरीच प्रचलित आसा. दर म्हयन्याच्या पयल्या आयताराा ते लोक उद्देगधंदे बंद दवरून सुर्याची पुजा करतात. सूर्य जेन्ना कर्क आनी मकर राशींत प्रवेश करता तेन्ना आनी वर्सपाडव्याच्या दिसा ते खारजाचे देगेर वचून सूर्यपुजा करतात. सिंधू न्हंयेतल्यान सूर्य उदेता हे समजुतेन ते न्हंयेक दाणे ओंपतात आनी देगेर दिवे पेटोवन दवरतात. सूर्य गिराणाच्या वेळार हे लोक दानधर्म आनी उपास करतात. सिंधू हिंदूंत अग्नीचीय पुजा प्रचलित आसा. दर्यापंथी लोक ताका दिव्याच्या रुपान पुजतात. हे लोक चंद्र बी गिन्यांचीय पुजा करतात. ह्या लोकांत उदकाचीय पुजा प्रचलित आसा. कारण झरे, कुंडां हांचो देवतांकडेन जांव अलौकिक शक्तींकडेन संबंद आसा अशें हे मानतात.

सिंधी लोक गायक पवित्र मानतात. तशेंच नंदी, शींव, सुणो आदी पशू देवतांचीं वाहनां आशिल्ल्यान तांकांय ते पूज्य समजतात. तांच्यांत नागाचीय पुजा करतात. सिंधू न्हंयेकच हे लोक देव मानून पुजतात. उदकांतल्या देवानच हें विश्व उत्पन्न केलां अशी तांची भावना आसा.

पयलीं उदक आनी दिवो ह्या रुपांत सिंधुची पुजा करताले. कालांतरान तिका वीर पुजेचें स्वरूप फाव जालें. ह्या वीराचें नांव उडेरोलाल. सक्कराक आनी हेर जाग्यांनीय ताचीं देवळां आशिल्लीं. फुडें मुसलमानांनी ताकाच ख्वाजा खिज्र हें नांव दिलें आनी ताचीं देवळां ताब्यांत घेतलीं.

नानक पंथांत हिंदू आनी शीख ह्या धर्मांची सरमिसळ जाल्ली दिसता.शीख पंथाचेंच तें एक वेगळें रूप. हे लोक जातीभेद मानीनात आनी देवाची पुजा करीनात. लोहाणा जातींतले चडशे लोक ह्या पंथाचे अनुयायी आसात.

सिंधी लोकांत चडकरून कोणच लग्नाबगर रावना. लग्न केलेबगर मोक्ष मेळना अशी तांची समजूत आसा. एकाद्रो मनीस लग्नाबगर मेलो जाल्यार मेल्या उपरांत ताचें लग्न करतात.

सिंधी लोकांच्या सगळ्या जातींनी दादले चड

आशिल्ल्याकारणान पयलीं खुबशा दादल्यांक लग्नाबगर रावचें पडटालें.

ब्राह्मण जातींत तर अशी सामकीच कठीण परिस्थिती आशिल्ल्यान तांच्यांत आदलाबदलीच्या लग्नाची प्रथा आशिल्ली. गरीब लोक हेर प्रदेशांतल्या जातींच्या चलयांकडेन लग्न करताले.

पयलीं ह्या लोकांत बालविवाह जाताले. पूण शारदा कायदो जाल्याउपरांत ताचें प्रमाण सामकेंच कमी जालां. आतां चली वयांत आयल्या उपरांतच तिचें लग्न करतात. सगोत्र आनी समदेवक आशिल्ल्या कुटूंबांमदीं लग्नां जायनात.

वाङ्‌निश्चय हो लग्नसुवाळयाचो पयलो वांटो. चल्या - चलयांचो आवय - भापूय लग्नां जुळयतात. लग्न थारल्याउपरांत चलयेचो आवय - बापूय एका तबकांत खडीसाखर आनी पयशे घालून ते न्हवऱ्यागेर धाडटात. हुंड्याचोच तो एक अंश. न्हवऱ्या वटेनच्यांनी तें तबक घेतलें म्हणजे लग्न थारता. कांय लोक ब्राह्मण पुरोयताक तबक घेवन न्हवऱ्यागेर धाडटात. तो न्हवऱ्याच्या कपलाक कुकूम लावन एक नाल्ल दिता. मागीर सगळयांक खडीसाखर दितात.

ताचेउपरांत लग्नाचो म्हूर्त थारायतात. श्रावण आनी भाद्रपद म्हयने लग्न करपाक शुभ मानतात. आश्विन म्हयनो अशुभ मानतात. लग्नसुवाळो बरेभशेन जावंचो म्हण क्षेत्रपाल ह्या देवाक पशुबळी दितात.

लग्नाच्या दिसा न्हवरो - व्हंकलेच्या घरा वाजत-गाजत वता. थंय व्हंकलेची भयण ताका येवकार दिता. पुरोयत पुण्याहवाचन करता आनी व्हंकलेचो भाव एका व्हड तबकांत अक्षता, नाल्ल आनी कपडे घेवन येता. त्यो वस्तू तो न्हवऱ्याक दिता.मागीर न्हवरो न्हावन लग्नाचो भेस घालता. व्हंकलेची आवय न्हवऱ्याचे पांय धुता. मागीर तो घरांत वता आनी व्हंकलेक भायर हाडटा. तिणेंय नवे कपडे घातिल्ले आसतात. न्हवरो - व्हंकल एकामेकांचे हात धरतात. मागीर तांची वस्त्रगांठ मारतात. तीं दोगांय लग्नाच्या चौकांत दोन पाटांचेर बसतात. तांच्या फुडें पुरोयत बसता. व्हंकलेचो आवय - बापूय न्हवऱ्याचे पांय धुतात. मांव आनी न्हवरो एकामेकांक कुकूम लायतात आनी मागीर मांव न्हवऱ्याच्या पांयांचेर तकली दवरता. न्हवरो मावांक आशिर्वाद दिता. ताचेउपरांत न्हवऱ्याकडचो नाल्ल घेवन ताचे आवय - बापूय ताचेर गणेशपुजा करतात.

मागीर न्हवरो - व्हंकलेचे हात एकामेकाच्या हातांत दिवन तांच्या वस्त्रांच्या तोंकांची गांठ मारतात. मागीर पुरोयत होमहवन करून सप्तपदीचे मंत्र म्हणटा. न्हवरो - व्हंकल अग्नीक चार खेप भोंवताडे घालतात. लग्न सुवाळयांतलो हो मुखेल भाग.

ह्या लोकांत बहुपत्नीप्रथा आसा. पूण दादल्यांचो आंकडो कमी आशिल्ल्यान सादारणपणान दादलो एक बायल करपाक शकता. घटस्फोटाची चाल पयलीं नाशिल्ली. पूण आतां ती आसा. ब्राह्मण, ठाकूर, भाटिया, अमिल आनी लोहाण ह्या जातींनी विधवा विवाह चडशे जायनात.

बायलेक गुरवचार आयल्या उपरांत तिचो आध्यात्मिक गुरू, पांचव्या, सातव्या जांव णवव्या म्हयन्यांत तिका दोन गंडे (राखरी) दिता. ते गंडे तांबड्या वा धव्या सुताचे आसून तांकां पांच वा सात गांठी मारिल्ल्यो आसतात. सात गांठीचो एक गंडो तिच्या कमराक आनी पांच गांठींचो दुसरो तिच्या गळयांत बांदतात. णवव्या म्हयन्यांत बरो दीस पळोवन वैजीण तिच्या पोटाक तेल लायता. हो विधी घरांतल्या देवांमुखार समारंभापूर्वक करतात.

भुरगें जल्मल्याउपरांत ताची आजी (बापायची आवय) न्हावन पिठाचे तेरा गुळे करता आनी तांचेर भुरग्याचो हात दामून मागीर ते बांयंत वा तळयांत व्हरून उडयता. थंयच्यान ती उदक घेवन येता आनी एक आंकवार चली त्या उदकान बाळंटिचे स्तन धुता. ताचे उपरांतच ती भुरग्याक दुदाक धरता. तशेंच भुरग्याक कसलीच बादा जावंची न्हय म्हण घराच्या दाराक कांदो, आंब्याचीं वा कोडुलिंबाचीं पानां बांदतात. आंगणांत हुमऱ्यालागीं एक लहान फोंड मारून तातूंत उदक वोततात.

भुरग्याची नाळ - चुली लागीं पुरून दवरपाची चाल आसा. कांय लोक ती एका बुडकुल्यांत घालून न्हंयेंत वा तळयांत बुडयतात. सव्या दिसा सटयेची पुजा जाता. त्याच दिसा भुरग्याक नांव दवरतात. सुयेर चाळीस दीस पाळटात.

भुरगो तेरा म्हयन्यांचो जालो म्हणजे ताचें जावळ करतात. त्या विधीक मुनम् अशें म्हण्टात. पिरायेच्या ५व्या ते १२व्या वर्सा मूंज बांदतात.

मरपाक तेंकील्ल्या मनशाक जमनीर न्हीदयतात आनी मेलो म्हणजे ताची नाळ पुरल्या थंय ताका दवरून ताच्या तोंडांत गंगाजल आनी सरबत घालतात. मागीर मड्याक विवस्त्र करून न्हाण घालतात आनी शाल पांगुरतात. मागीर ब्राह्मणान सांगिल्ल्याप्रमाण कांय विधी जातात. सवाशिण बायल मेल्यार तिचे नाकांतले सोडून हेर सगळे अलंकार काडून घेतात. आनी त्याजाग्यार कथलाच्यो वस्ती घालतात. मागीर तिचे केंस उगोवन तिका स्वास्तिकाच्या आकृतीचो कुकूम लायतात.

तिरडेचेर मडें दवरचेपयलीं ताचेर गुलाबपाणी, गुलाल आनी ऊद उडयतात. तशेंच मडें व्हरतना ताचेर तांब्याचे पैशे आनी बत्ताशे उडयतात. मसंडिच्या भायरच मडकें फोडपाचो विधी जाता. सरणाचेर मडें दवरल्या उपरांत ताच्या तोंडांत तूप, म्हों, तुळशीचीं पानां, चंदन आनी पांच तरांचे धातू आनी खडे दवरतात आनी मड्याक अग्नी दितात. घरांत ज्या जाग्यार मडें दवरतात थंय एक दिवो पेटोवन दवरतात.

कांय लोक हरिद्वाराक वचून गोबोर आनी अस्थींचें गंगेंत विसर्जन करतात. धाव्या जांव इकराव्या दिसा थंयच श्राध्दविधी करतात.

पूण चडशे लोक आपल्याच गांवांत पिंडदान आनी तर्पण करतात. सगळे निमणे विधी जाल्या उपरांत ब्राह्मण भोजन जाता.

सिंधी लोकांत पयलींपसून कांय मुखेल सण आनी उत्सव प्रचलित आसात ते अशे -

**चालीहो :** सिंधू न्हंयेक हुंवार आयल्याउपरांत आषाढी पुनवेक ह्या उत्सवाक सुरवात करतात. सिंधी लोक तिका देवता मानतात. हुंवाराक येवकार दितना ते तिका तांदूळ आनी फळां ओंपतात. हो उत्सव चाळीस दीस चलता. तातूंत पुनव, अमास आनी शुक्रार हे दीस पवित्र मानतात. त्या दिसांनी पांच जांव सात पिठाचे दिवे न्हंयेच्या वा खारजाचे वा तळयाचे देगेर लायतात. न्हंयेक खावपाच्या जिनसांचो निवेद दाखोवन तो प्रसाद म्हण दितात. निमण्या दिसा चाळीस तरांचे खावपाचे जिन्नस वा फळां एका माठांत दवरतात. त्या माठाक तांबडो रंग लावन ताचेर स्वस्तिक काडटात आनी वयर नाल्ल दवरतात. ताका आंब्याचीं पानां बांदतात. एक बायल तो माठ तकलेर दवरून तळयाकडेन वता. दुसरी पिठाचे पेटिल्ले पांच दिवे घेवन तिचेवांगडा वता. थंय जमिल्ल्यो बायलो पंजरा नांवाचीं पदां म्हणून न्हंयेची तुस्त करतात आनी माठ उदकांत बुडयतात. ह्या वेळार न्हंयेक धान्य ओंपतात आनी उदकाचेर दिवे सोडटात.

हुंवाराचें उदक आसरल्याउपरांत सप्टेंबर म्हयन्यांत शेताची जमीन रोवपाखातीर योग्य जाता. त्यावेळार एरवण, सेस आनी सतण हे सण मनयतात.

**एरवण :** न्हंय देवतेचें प्रतीक म्हण एक कळसो उदकान भरून दवरतात. भायलेवटेन तो शेणान सारयतात आनी ताच्या तोंडार एक नाल्ल दवरतात. कळशाच्या भोंवतणी सातू रूजयतात. अश्टमीक पुजारी भवानी देवळाफुडें नाल्ल फोडटा आनी खोबरें प्रसाद म्हण सगळयांक दिता. ताचे उपरांत जेवणावळ जाता. मागीर तो पुजारी तो कळसो तळयांत वा खारजांत उडयता. हुंवार आसरल्या उपरांत आनी नव्या वर्साच्या दिसा हो सण करतात.

**सतण :** श्रावण शुध्द दशमीक हो सण सुरू करतात. त्याखातीर एका मातयेच्या कुंडेंत सात तरांचीं धान्यां रुजयतात. पुनवेमेरेन रोपां बरीं वाडटकच तातूंत एक मातयेची बावली दवरतात. आंकवार चलयो तिची पुजा करता. दुसऱ्या दिसा कुंडी तळयांत उडयतात आनी बावली दवरून तिच्याफुडें मातयेचे पांच कावळे आनी शीत दवरतात. सव्या दिसा ब्राह्मण पुरयत एक मातयेचें होडें आनी चार बैल तयार करता. त्यो सगळयो वस्तू एकठांय दवरून आंकवार चलयो तांची पुजा करतात. थंय एक दिवो पेटोवन दवरून गोड जिनसांचो निवेद दाखयतात.

**सेस :** ज्येश्ट वद्य त्रयोदशीक हो सण आसता. हो सण न्हंय देवतेच्या सन्मानाखातीर आसता.

क्षेत्रपाल नांवाचो देव शेतांची राखण करता. तो एक शिवगण. लग्नासारकिल्ल्या सुवाळयांत आडखळ येवंची न्हय म्हण ताका खोशी दवरपाक बोकडे बळी दितात.

तशेंच हे लोक रामनवम, नागपंचम, कृष्णजल्माश्टम, चवथ, दसरो, दिवाळी, होळी सारकिल्ल्यो परबोय मनयतात. आंकवार चलयेक हे लोक नैनी म्हणजे देवी जांव शक्ती मानतात. जायत्या धार्मिक विधींत तिका मानाचें स्थान आसा. श्राध्दाच्या वेळारय आंकवार चलयेक जेवण दितात.

पिशाच योनीविशींय सिंधी लोकांच्या मनांत भंय आसा आनी तांचेर तांची श्रध्दा आसा. तांचो विश्वास आशिल्ल्या भुतांनी बरीं भुतां आनी वायट भुतां अशेय भेद आसात. मनशांक त्रास दिवपी भुतांचो बंदोबस्त करपी मंत्रिकाक भोपो म्हण्टात. तशेंच ह्या लोकांमदीं जादू, चेटूक ह्या विद्यांचोय बरोच प्रसार आसा. साधूसंतांच्या बळग्याचेर आनी तांणी केल्ल्या अजापांचेरय तांचो विश्वास आसा.

सिंधांतल्या जायत्या वेपाऱ्यांनी भारतांत येवन नव्यान आपलो वेवसाय मांडलो. तशेंच सिंधांतल्या अमील वर्गांतल्या जायत्या निर्वासितांक भारतांतल्या वेगवेगळया सरकारी खात्यांनी आस्पावन घेवपाची वेवस्था सरकारान केल्ली. ताकालागून तांचें सोंपेपणी पुनर्वसन जालें. तांत्रिक उद्येग करप्यांकय भारतांतल्या वाडट्या उद्देगधंद्यांत फावशें काम मेळ्ळें. जायत्या जाणांनी घरगुती उद्देगय सुरू केले.

सिंधी लोकांत दर एके जातीची पंचायत आसता. मुखेल्याक मुखी म्हण्टात. पयलीं हें पद वंश परंपरागत आशिल्लें. पूण आतां प्रतिनिधींचे सभेंत ताची वेंचणूक जाता आनी ती सभा ताका पालवय दिता. अध्यक्षाचीं कामां आनी अधिकार ताच्या व्यक्तिमत्वाचेर आदारिल्ले आसतात.

सिंध प्रांतांतल्या ग्रामपंचायतींक जायते अधिकार आशिल्ले. तशेंच गांवांतल्या अडीअडचणींचेर नदर दवरून बरी वेवस्था करप हेंय काम ग्रामपंचायतच करताली. आधुनिक काळाच्या बदलाप्रमाण, हेर समाजांत दिसता तशे सिंधी समाजांतय बद्दल जाल्ले दिसतात.

- कों. वि. सं. मं.

## सिंधू (न्हंय) :

एक भारतीय व्हडली न्हंय. हिचो उगम तिबेटांतल्या मानस तळयाचे उत्तरेक ६२.५ मैलांचेर कैलास पर्वतांतल्यान जाता. थंयच्यान ती तिबेटाच्या पठारावयल्यान वायव्य दिकेक व्हांवत वचून काश्मीरांत रिगता. लडाखांतल्या लेहालागीं तिका झस्कर न्हंय आनी सिंग - गे - चू वा सिंहका बाब अशें नांव आसा. स्कार्डूच्या फुडें तिका आबसिन हें नांव फाव जाता. काश्मीरच्यान वायव्य सीमा प्रांतांत प्रवेश करचेपयलीं काराकोरम पर्वताच्या पांयांकडे तिका गिलगिट न्हंय मेळटा. थंय ती अस्तंतेवटेन व्हांवक लागता. वायव्य सिमा प्रांतांत ती नैऋत्य दिकेक व्हांवता. हिमालयाच्या देगणांतल्यान सुमार १०३५ मैलांचो प्रवास करून ती पंजाबाच्या पठारी प्रदेशांत येता.

तिच्या उगमा लागचो भूप्रदेश समुद्रसपाटी सावन सुमार १७०० फुट ऊंच जाल्यार अटकेलागच्या भूभागाची उंचाय १००० ते १५०० फूट आसा.

अटकेसावन कलबाघमेरेन सिंधू न्हय तळपांच्या प्रदेशांतल्यान ऊंच दोंगुल्यांतल्यान मार्ग काडून सपाट प्रदेशांत येता. डेरा इस्माइलखान ह्या गांवालागच्यान ती दक्षिणवाहिनी जाता. मिथनकोट गांवांत तिका पंचनद म्हळ्यार सतलज, बियास, रावी, चिनाब आनी झेलम हांचो संयुक्त प्रवाह मेळटा. ताकालागून तिचें पात्र सुमार १ मैल रूंद जाता. अटक ते कलबाघ ह्या मार्गावयल्या चुनखडयेच्या दोंगुल्ल्यांक लागून न्हंयेचो प्रवाह निळसो दिसता. म्हणून ताका नील आब हें नांव फाव जालां.

मियनकोट उपरांत ही न्हंय परत नैऋत्य दिकेक वळून सिंध प्रांतांत रिगून कराची लागच्या अस्तंत दर्याक मेळटा.

सिंधू न्हंयेच्या देगणांत मोहेंजोदाडो, हडप्पा चन्हुदडो हांगाच्या उत्खननांत एके पुविल्ले संस्कृतीचे अवशेश सांपडिल्ले आसात. थंय सिंधुसंस्कृती नांव दिल्लें आसा. कांय संशोधकांच्या मतान ती वैदिक संस्कृतीच्या उपरांतची आसून तिचेंच रुपांतर मुखार हिंदू संस्कृतींत जालें. बेहिस्तान हांगाच्या दरियसच्या आलेखांत सिंधू न्हंयेक हिंदू नांव दिल्लें सांपडटा. वेंदिदांतय तिचो उल्लेख हिंदू असो केल्लो आसा.

वैदिक साहित्यांत सिंधू न्हंयेचो उल्लेख आयला. कांय ऋचांत सिंधू हो शब्द सागर ह्या अर्थान वापरिल्लो आसा. तर कांय कडे न्हंय ह्या अर्थान तर एके ऋचेंत सिंधू न्हंयेक लागून भूंय सुजला - सुफला जाता अशें म्हळां. अथर्ववेद, माध्यंदिन संहिता, जैमिनीय ब्राह्मण ह्या ग्रंथांत सिंधू न्हंयेचो उल्लेख सांपडटा.

महाकाव्यां, पुराणां ह्या ग्रंथांनी न्हंयेचो महिमा गायला. ती जनतेचें पोसवण करपी म्हण तिका दयाळू म्हटल्या.

पंजाब आनी सिंध ह्या प्रदेशांत पावस खूब कमी पडटा. ताका लागून थंयच्या लोकांची जीण सिंधुच्या उदकाचेर आदारून आसता. सिंधुचे देगेचेर गंव, कापूस हांचें बरे प्रतीचें पिक येता आनी सिंधू न्हंयेंत मोतयांय मेळटात.

सिंधू न्हंयेच्या देगेवयलीं नगरां हीं व्यापाराचीं व्हडलीं केंद्रां आशिल्लीं. कस्तुरी, मोर, हिरे, माणकां, सुती आनी लोकरीचीं वस्त्रां, शाली ह्या वस्तुंचो वेपार थंयच्यान चलतालो.

इ.स. १९३२ वर्सा हे न्हंयेचेर सिंधांत सक्कर हांगा एक व्हड धरण बांदपांत आयलें आनी तातुंतलें उदक कालव्यांतल्यान सोडून सुमार ५० लक्ष एकर जमीन भिजोवपाची सोय करपांत आयली.

सिंधुच्या उदकांत न्हाल्यार अश्वमेध यज्ञ केल्ल्याचें पुण्य मेळटा, अशी भाविक हिंदुंची श्रध्दा आसा. सिंधी लोक सिंधू न्हंयेक देव मानून तिची पुजा करतात. पुनव, अमास आनी शुक्रार हे त्या देवाचे पवित्र दिस मानून, त्या दिसा न्हंयेंत दिवे सोडटात. न्हंयेक बुड्‌टी येता तेन्ना चाली ह्या नांवाचो आनंदोत्सव मनयतात.

इ.स. ११व्या शेंकड्याचे सुरवातेक सिंधच्या सुलतानान सगळया हिंदूंक जबरदस्तीन मुसलमान करपाचें थारायलें. तेन्ना सिंधू देवान मानवी अवतार, घेवन तांचे वयल्या संकटाचे निवारण केलें अशी आख्यायिका आसा. म्हणून सिंधू देव हिंदुंचो रक्षणकर्तो मानतात आनी सिंधी लोक त्या दिसा ताचो जल्मदीस मनयतात आनी न्हंयेची पुजा करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**सिंहासन :** एक उंचेल्या दर्जाचो आसन - प्रकार. हाचो वापर राजानच करपाचो आसता. शींवांचे आकृतेवरी ताचो आकार आसता देखून ताका हें नांव मेळळें. पुर्विल्ल्या काळांत राज्यभिशेका उपरांत राजाक ह्या आसनाचेर बसपाचो अधिकार मेळटालो. पूण त्या काळांत राज्याभिशेक सुवाळयांत सिंहासना जाग्यार आसंदीचो (उच्चासन) उपेग करताले. असो उल्लेख ऐतरेय, शतपथ, आदी ब्राह्मणांत मेळटा. मानसार ह्या ग्रंथांत राजाच्या सिंहासनाचें तोंड उदेंतेकडे करचें अशें सांगलां. हाचेवयल्यान सिंहासनाचो पुर्वावतार म्हळ्यार आसंदी आसुंये. फुडें राजांच्या संस्कृतीक आनी संपत्तीक स्थितींत जसो जसो बदल जायत गेलो तसो तसो ताच्या आकारांत आनी साहित्यांत फरक पडत गेलो.

वाल्मिकीरामायणांत सिंहासन असो शब्द आयला. सिंहासनाक भद्रपीठ म्हणुनय वळखतात. रामायणांतलें भद्रपीठ उंबराच्या लांकडाचें आशिल्लें. तेभायर वनवासा उपरांतच्या पट्टाभिशेकावेळार रत्नमय पीठ वापरिल्लें. महाभारतांत धर्मराजाचें सिंहासन रत्नजडित हस्तिदंताचें आशिल्लें अशें द्रोपदीन सागलां. युधिष्ठीराच्या राज्यभिशेका वेळार युधिष्ठीर आनी कृष्ण वेगवेगळया भांगराच्या सिंहासनाचेर आनी कुंती, नकुल तशेंच सहदेव हें हस्तीदंताच्या सुवर्णजडित सिंहासनाचेर बशिल्ल्याचें वर्णन मेळटा. कलकत्त्याक संग्रहालयांत मौर्यकाळांतल्यो दोन सिंहाकृती आसून ते सिंहासनाचे भाग आसुंये अशें श्री स्टुअर्ट पिगॉटचें मत आसा. मथुरेंत कुषाणकाळांतल्यो सिंहाकृती आसात. थंयच कुशाण सम्राट वेम कदफिसेसाचें फातराचें सिंहासन मेळिल्लें आसा. रायपसेणिय सुत्त नांवाच्या पुर्विल्ल्या जैन ग्रंथांत ह्या आसनाविशीं भरपूर म्हायती दिल्ली.

मानसार ह्या पुर्विल्ल्या वास्तुशास्त्री ग्रंथांत सिंहासन हें देव आनी राजा हांचेखातीर आसता अशें म्हळां. देवतांसंबंदींच्या सिंहासनाचे नित्यार्चन सिंहासन, विशेश सिंहासन, नित्योत्सव सिंहासन आनी विशेषोत्सव सिंहासन अशे प्रकार सांगिल्ले आसात. तशेंच प्रथम सिंहासन, मंगल सिंहासन, वीर सिंहासन आनी विजय सिंहासन अशीं राजांच्या सिंहासनांची वर्गवारी केल्ली आसा. सिंहासनाचीं वेगवेगळीं

पारिभाशीक नांवां अशीं : पद्मासन, पद्मकेसर, पद्मबंध, पद्मभद्र, श्रीभद्र, श्रीविशाल, श्रीमुख, भद्रासन आनी पादबंध हातुंतलें पद्मासन हें शिव वा विष्णु हांच्या खातीर आसता. जाल्यार पद्मभद्र हें सम्राटांखातीर आसता अशें सुचयल्लें आसा. भद्रासन वा भद्रपीठ हाचेर रामाचो नातू कुशपूत अतिथी हाचो राज्याभिशेक जाल्ल्याचो उल्लेख कालिदासान रघुवंशांत केला. हर्षान भद्रपिठाचेर बसूनच आपलो राज्यकारभार चलयल्लो.

सोमेश्वर विरचीत अभिलषितार्थचिंतामणींत आसनाचे णव प्रकार सांगून सिंहासन हें तातुंतलें एक अशें म्हळां. हें राजाचें आवडटें आसन आसून राजदरबारांत तो ह्या आसनाचेर बसून राजकारभार पळयता अशें सांगलां.

हिंदी शिल्पशास्त्रांत सिंहासनाचे रचनेवयल्यान ताचे आठ प्रकार सांगल्यात. ते अशे - पद्म, शंख, गज, हंस, सिंह, मृग आनी हय. हें सिंहासन राजाच्या हातान पांच हात लांब, चार हात रूंद आनी एक हात उंच आसचें पडटा. तें बऱ्या लांकडाचें, हस्तिदंताचें, वा भांगराचें आनी रत्नांकित आसूंक जाय अशें म्हळां. सिंहासनांत विक्रमादित्या सिंहासनाची खूब नामना आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सिक्कीम** : भारताचे इशान्येकडलें, हिमालय रांकांमजगतीं आस्पाविल्लें एक पर्वतीय राज्य. ह्या राज्याचे उत्तरेक तिबेट, अस्तंतेक नेपाळ, उदेंतेक भुतान राज्य, जाल्यार दक्षिणेक अस्तंत बंगाल हें राज्य आसा. ह्या ल्हानशा राज्याचें क्षेत्रफळ ७,०९६ चौ.किमी., जाल्यार लोकसंख्या ४०३,६१२. संविधानाच्या १९७५ व्या कायद्याप्रमाण सिक्कीम हें भारताचें २२ वें घटक राज्य जालें. ताचे आदीं ताचो भारतीय रक्षीत संस्थानांभितर आस्पाव जातालो. 'सू खीम' म्हळ्यार नवें घर, ह्या लिंबू भाशीक शब्दावयल्यान ह्या प्रदेशाक सिक्कीम नांव पडलां आसुंये. कांय जाणकारांच्या मताप्रमाण सिक्कीम हो संस्कृत शब्द आसून ताचो अर्थ पर्वतीय प्रदेश असो जाता. लेपच्या हे थंयचे मुळावे लोक. त्या प्रदेशाक 'न्ये माए यल्' म्हळ्यार स्वर्ग अशें म्हण्टात. जाल्यार बुतीया जमातीचे लोक ताका ब्येमुल डें जोंग (लिपिल्लें भाताचें देगण) अशें म्हण्टात. गंगटोक हें सिक्कीमाचें राजपाटण.

सिक्कीमाची चडशी भूंय पर्वतीय आसून कांचनगंगा हें संवसारांतलें तिसऱ्या क्रमांकाचें ऊंच पर्वत ह्याच राज्यांत आसा. ताची उंचाय ८५७९ मी. इतली आसा. नथुला (४३१२ मी.); जेलेपा (४३८८ मी.) डोंकियाला (५५२० मी.) आनी कोंगराला (४८०९ मी.) हे सिक्किमांतले हेर प्रसिद्द पर्वत. तिस्ता ही राज्यांतली मुखेल न्हंय.

राज्याचो सुमार तिसरो वांटो रानांखाल आसून तातूंत साल, देवदार, शिशवी, बांबूंच्यो वेगवेगळ्यो जाती, मॅग्नेलिया आनी हेर रूख आसात. वनस्पतीचे नदरेन हें राज्य समृध्द आसून थंय वेगवेगळ्यो आर्किड आनी हेर फुलझाडांच्यो सुमार ६०० वयर जाती आसात. हाका लागून ह्या राज्याक 'वानस्पतीक स्वर्ग' (Botanical Paradise) अशें म्हण्टात. वसंत ऋतूंत ऱ्होडोडेन्ड्रोन ह्या भौरंगी फुलांनी रानां भरून वतात. हांगाच्या रानांत चितो, वेगवेगळे जातीचे कोल्ले, वाग, सांबर, कस्तुरीमृग, रानदुकर, याक, मुंट्जाक (Barking Deer), पंडा (Ailurus Fulgens), हिम चितो (Snow Leopard), वांस्वेल, निळी मेंढी सांपडटा. 'कांचनगंगा नॅशनल पार्क' हें संवसारांतलें सगळ्यांत उंचेलें अभयारण्य. कस्तुरीमृगासावन अत्तर तयार करतात देखून ताची चड प्रमाणांत शिकार जाता. सिक्किमांत सुमार ५५० वयर जातिंचीं सुकणीं जाल्यार ६०० वयर जातिंचीं फुलपाखरां आसात. कृकण सवणें (Monal pheasant) हें सिक्कीमाचें भुशण. ताका थळावे लोक 'नवरंग डफ्णे' अशें म्हण्टात. हांगाच्या मुखेल सुकण्यांभितर कस्तुराच्यो वेगवेगळ्यो जाती, तांच्यांतले शिळोणी आनी हांसपी कस्तुर मुखेल आसात. कोगूळ, बुलबुल, सुमार तीस जातीच लागीं लागीं १२ जातींचीं मेस्त सवणीं, वेगवेगळ्या जातिंचे किरकिरे, गिद, गरूड, ससाणो, घोण, गरूड हीं सवणींय चड म्हत्वाचीं.

सिक्किमाची भूंय पर्वतीय आशिल्ल्यान हाचो परिणाम हांगाच्या हवामानाचेर जाता. पर्वतांवळी आनी दाट रानांक लागून तापमान गिमांत लेगीत शितळ उरता. शिंयाळ्यांत तेमकांचेर हिम सांचता. वर्सुकी सरासर पावसाचें प्रमाण १२५ सेंमी. हांगाचो गीम उबदार जाल्यार शिंयाळो चड कडक आसता.

**इतिहास** : सिक्किमाच्या साप्प आदल्या इतिहासाची म्हायती मेळान. पूण राज्याचो तेराव्या शेंकड्याचो तोंडी इतिहास सांगतात तो असो. तेराव्या शेंकड्यांत लेप्चा जमातीचे लोक बरमा आनी आसामाच्यान येवन सिक्किमांत स्थायीक जाले. १४०० मेरेन लेप्चा जमातीची खूब भरभराट जाल्ली. उपरांत थंय बौध्द धर्माचो प्रसार आनी नामग्याल वंशाचो शेक येतमेरेन लिखीत स्वरुपाचो इतिहास उपलब्ध आसा. सिक्किमांतल्या नामग्याक वंशाचो उगम सांगपी दोन आख्यायीका असात त्यो अशो - पयले आख्यायीके प्रमाण तेराव्या शेंकड्यांत जेन्ना नामग्याल लोक मध्य तिबेटाक वतना सिक्किमाचें सोबीत वातावरण पळोवन तांणी थंयच स्थायीक जावपाचें थरयलें. उपरांत तांचो मुखेली थळावे लेप्चा चलयेकडेन लग्न जालो. १६४२ लो सिक्किमाचो धर्मराजा (चोगल) फुन्टसंग नामग्याल हो त्याच वंशाचो. दुसरे आख्यायिके प्रमाण, फुन्टसंग नामग्याल हो भारतीय आसून तो हिमाचलाचो राजा इंद्रबोधी हाचो वंशज. ताच्या पुर्वजांचें अस्तित्व दाखोवपी दोन आख्यायीका आसल्यो तरी सिक्किमांत फुन्टसंगानच नामग्याल राजवंशाची स्थापणूक केली. हें अधिकृतपणान मान्य आसा. उपरांत ह्या वंशान सुमार तिनशें वर्सां सिक्किमाचेर आपलो

शेक गाजयलो. ह्या प्रदेशाचेर आपलें प्रभुत्व दवरपारवातीर तांकां भुतान, नेपाळ आनी हेर शेजारी राज्यांच्यो साबार घुरयो परतून लावच्यो पडल्यो. पूण १८१४ त सिक्किमान ब्रिटिशांकडेन इश्टागतीचे संबंद प्रस्तापित करून ब्रिटिश सैन्य आपल्या प्रदेशांत दवरपाक मान्यताय दिली. उपरांत नेपाळाच्यो सिक्किमावयल्यो घुरयो बंद जाल्यो. १८१७ त सिक्किम आनी नेपाळ हांच्यांत कबलात जावन तांणी एकमेकांचें स्वातंत्र्य मानून घेतलें.

१८३५ त लॉर्ड बेटिंगच्या तेंपार सिक्किमाच्या राजान ब्रिटिशांकडेन इश्टागतीचे संबंद आनीक घट करपारवातीर ताणें दार्जिलिंगाच्यो कांय दोंगुल्ल्यो ब्रिटिशांक इनाम म्हूण दिल्यो. उपरांत रंगीन न्हंयेचे दक्षिणेकडलो सगळो भाग ब्रिटिशांचे मालकेचो जाल्ल्यान टिबेट आनी सिक्किमाभितल्ले संबंद इबाडले. १८९० त चीन आनी ब्रिटीशांभितर कबलात जावन चिनान सिक्किमावयलें ब्रिटिशांचें सार्वभौमत मान्य केलें. १९४७ त भारताक स्वातंत्र्य मेळ्ळयाउपरांत भारत आनी सिक्किमाभितर कबलात जावन सिक्किमाचे परकी संबंद, येरादारी - संचारण आनी राखणे वेवस्थेची जापसालदारकी भारतान आपलेकडेन घेतली.

- कों. वि. सं. मं.

**सिक्वेरा, जोसेफ व्हालरीयस :** बर्मा हांगाचो एक गोंयकार धर्मगुरू. ताचो घराबो बारदेसांतल्या सालीगांव वाठारांत रावतालो. ताचो जल्म झांझीबार हांगा जालो आनी उपरांत ताचो घराबो बर्मा हांगा स्थायिक जालो. १९३९ वर्सा धर्मीक शिक्षण घेतल्याउपरांत तो पाद्री जालो. १९८२ वर्सासावन तो बेसीन (Bassein) डायोसीजीचो प्रशासक आशिल्लो. उपरांत १९८५ वर्सा तो तिचो धर्मगुरू जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**सिद्दी :** एक जात. सिद्दी लोकांक हबशी अशेंय म्हणटात. हांची वसती गुजरात, पयलींचें जंजिरा संस्थान आनी कारवार, मंगळूर जिल्हे हातूंत सांपडटा. १९०१ वर्सां हांची लोकसंख्या सुमार एक हजार आशिल्ली. हे लोक मुसलमान आनी हिंदू अशे दोनय धर्मांचे आसात. कांय लोकांनी खिरस्ती धर्मय आपणायला.

मुसलमान सिद्दी लोकांत विलायती आनी गावठी अशे दोन भेद आसात. हे सगळे सुन्नी आसून बाब घोर ह्या ॲबिसिनियन संताक भजतात. बाबा घोर हो व्हड वेपारी आशिल्लो. अस्तंत राजपिपलामदल्या रतनपूरलागच्या एका दोंगुल्लेचेर ताची कबर आसा. सुरवेक हांगाचे खाणींत काम करपारवातीर खुबशा सिद्दी लोकांक हाडिल्ले. जंजिरा आनी सचिन हांगाय तांणी राज्य केलां.

हिंदू सिद्दी, कारवार, सुपें, येल्लापूर आनी अंकोला ह्या भागांत चडकरून रावतात. १७व्या शेंकड्यांत पुर्तुगेज लोकांनी हांकां आफ्रिकेंतल्यान गुलाम म्हणून गोंयांत हाडले. उपरांत थंयच्यान हे लोक ह्या भागांत पळून आयले. पळून वतना तांणी आपल्यो बायलो गोंयांतच सोडल्यो आनी हांगा येवन हांगाच्या बायलांकडेन लग्न केलें अशें सांगतात. कर्नाटकांतले सिद्दी कोंकणी, कन्नड आनी मराठीय उलयतात.

शरीरान हे लोक दणकट आसून सभावान आडांगी आसतात. ताकालागून हेर लोकांक तांचो भंय दिसता. ते निग्रोभाशेन दिसतात. गायचें मांस सोडून ते सगळ्या तरांचें मांस खातात. सोरोय पियेतात. हे लोक बरे शिकारीय आसात.

हिंदू सिद्दींचो मंत्रतंत्र आनी भुतांखेतांचेर विश्वास आसा. ते एका सोडणाच्या नाल्लाची पुजा करतात. तातूंत पितरांचे आत्मे रावतात अशी तांची समजूत आसा. ते ग्रामदेवतांक भजतात. वर्सांतल्यान एक फावट ते भुतांखेतांक पशुबली दिवन संतुश्ट करतात.

हिंदू सिद्दी चल्यांचे आवय - बापूय चलयेक मागणी घालतात. एकाद्रे चलयेक मागणी घालचे पयलीं हें लग्न सुखी जायत काय ना ह्याखातीर हविग ब्राह्मणाचो सल्लो घेतात. बरी जाप मेळ्ळी जाल्यारच चल्याचे आवय - बापूय आपल्या कांय लोकांवांगडा चलयेच्या घरा वतात. थंय चलयेच्या आवय- बापायच्या हातांत पानांत दोन सुपाऱ्यो गुठलावन दवरतात. तांणी जर ह्यो पान - सुपाऱ्यो घेतल्यो जाल्यार तांकां हो संबंद पसंत आसा अशें समजतात. मागीर वधुमूल्य थारायतात. तें सोळा रुपयांपसून चाळीस रुपयांमेरेन आसता. मागीर चल्याची आवय चलयेक फुलांची फांती माळटा आनी जमिल्ल्या लोकांक केळीं आनी पान सुपारी दिता. चलयेचे आवय-बापूय सगळयांक खिरीचें जेवण वाडटात. त्यावेळार सोरोय दितात. उपरांत एक दीस हविग ज्योतिशाकडेन वचून लग्नाचो म्हूर्त थारायतात.

लग्नाच्या पयलीं दोन दीस न्हवरो - व्हंकलेक आपापल्या घरा हळद लावन न्हाण घालतात. त्या वेळार बायलो पदां म्हण्टात. लग्नाच्या दिसा सांजचो न्हवरो हातांत चाकू, नाल्ल आनी दोन विडे घेवन व्हंकलेच्या घरा वता. थंय न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेच्या बापायक व्हंकलेचे कपडे, देजाची रक्कम, एखादी भांगराची वस्त आनी फुलां दिता. मागीर व्हंकल ते कपडे न्हेसून आनी फुलां माळून माटवांत येता. व्हंकल - न्हवरो एकामेकांफुडें उबे रावतात. तांच्या मदीं अंतरपाट धरतात. जातिमुखेल्यान सावधान म्हटल्या उपरांत अंतरपाट कुशीक काडटात.

न्हवरो - व्हंकलेचे आवय - बापूय तांचे हात जुळयतात आनी तांचेर उदक ओततात. मागीर जमिल्ल्या लोकांक जेवण घालतात. दुसऱ्या दिसा सांजची व्हंकल - पावणी न्हवऱ्याच्या घरा वता. एक दीस घरा रावल्याउपरांत परत न्हवरो - व्हंकल व्हंकलेच्या घरा येतात. थंय न्हवरो पांच दीस रावून एकटोच आपल्या घरा परतता. ताचे उपरांत येवपी सणा दिसा तो व्हंकलेक घरा घेवन येता.

हे लोक मडीं पुरतात. सुतक तीन दीस पाळटात. तिसऱ्या दिसा मेल्ल्या आत्म्याक शीत, रोस, सोरो आनी कोंबे ओंपतात आनी घरांतल्या नाल्लांत येवन रावपाखातीर ताचेकडेन मागणें करतात. उपरांत काकबली दिवन जातींतल्या लोकांक जेवण घालतात.

जायते सिद्दी लोक घरकाम करून आनी भीक मागून जगतात. धा -पंदरा लोकांचो गट करून धोलाचे साथीचेर बाबा घोराच्या तोरवणायेची पदां गावन ते भीक मागतात. हे लोक कश्ट करपी आसून शेतमजूर म्हण काम करतात. कांय लोक शेतवडय करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**सिध्दपिठां :** सिध्दाच्या साधनेचीं जीं केंद्रां देशाच्या वेगवेगळया भागांत आसात तांकां सिध्दपिठां म्हण्टात. तातुंतलीं कांय पिठां मुखेल केंद्रां आसात, तर कांय उपपिठां, क्षेत्रां आनी गौण स्थानां आसात.

सिध्दपिठांची संस्था आनी नांवां ह्या विशीं कांय मतभेद आसात. एके परंपरे प्रमाण जालंधर, ओडियान, अर्बुद, आनी पुर्णगिरी आनी दुसरे परंपरे प्रमाण जालंधर, ओडियान, कामरूप आनी पूर्णगिरी हीं चार मुखेल सिध्दपिठां आसात.

साधनमालेंत ओडियान, पूर्णगिरी, कामाख्या आनी श्रीहट्ट ह्या चार पिठांचो उल्लेख आयला.

ह्या सगळया केंद्रांत ओडियान आनी कामरूप हांचें माहात्म्य चड आनी उरिल्ल्यांचें गौण आशिल्ल्याकारणान ह्या पिठांक महासुखचक्र म्हण्टाले. संशोधकांच्या मतान श्री हट्ट म्हळयार आसामांतलें सिलहट. अर्बुद हें अबू दोंगुल्लेचें पुर्विल्लें नांव.

पुर्णगिरीच्या विशयांत दोन अनुमानां आसात. एक अनुमान अशें, महाराष्ट्रांतलें पूणें म्हळयार पुर्णगिरी आनी दुसरें आसामांतलें पुण्यतीर्थ हें पूर्णगिरी.

जालंधर म्हळयार पंजाबांतलें आयचें जालंधर. तें जालधरपा ह्या महासिध्दाच्या साधनेचें केंद्रस्थळ आशिल्लें. ओडियान हो स्वात पर्वतराजांतलो एक तंत्रप्रधान प्रांत आशिल्लो अशें म्हण्टात.

कामाख्या वा कामरूप हें खूब पुर्विल्ल्या काळासावन तांत्रिक साधनेचें एक व्हड केंद्र आसा. हें स्थान गौहाटी गांवांक तेंकून आसा. ह्या केंद्रांत शैव आनी बौध्द ह्यो दोन तंत्रसाधना एकठांय आयल्यो आनी बौध्द तंत्रांनी व्हडा प्रमाणांत शैवसादना आपल्यांत हाडलीं.

ह्या मुखेल पिठांशिवाय श्री पर्वत वा श्री शैल हेंय वज्रयानी साधकाचें एक मुखेल केंद्र आशिल्लें.

चडशीं सिध्दपिठां भारताच्या आर्यपूर्व जनजातींच्या निवासक्षेत्रांतच आसात. महाराष्ट्र, वायव्य, भारत, बंगाल आसाम, ओडिसा हे आर्यवर्तांचे बहिरंग प्रदेश आशिल्ले.

- कों. वि. सं. मं.

**सिध्दरामेश्वर :** (इ.स.चो १२ वो शेंकडो, सोलापूर).

एक वीरशैव संतकवी. हाच्या आवयचें नांव सुग्गलदेवी आनी बापायचें नांव मुद्दगौड. तीं दोगांय सुशील, सदाचार आनी शिवभक्त आशिल्लीं. म्हातारपण येमेरेन तांका भुरगें नाशिल्लें. सिध्दराम जल्मलो तेन्ना ताच्या आवय - बापायचें वय साठ आनी णव्वद आशिल्ल्याचें सांगतात.

सिध्दराम जल्मतांच मोनो आशिल्लो. बऱ्याच वर्सांनी ताका वाचा फुटली. ताचें खरें नांव धळीमहाकाळ आशिल्लें. पूण कालान्तरान हें नांव फाटीं पडून सिध्दरामेश्वर ह्या नांवानच तो नामनेक पावलो.

सिध्दराम ल्हानपणांतच गंभीर आनी विचारांनी घुस्पल्लो आसतालो. शिक्षणांत जांव खेळांत ताचें लक्ष नाशिल्लें. जनावरांविशीं मात ताका खूब आपुलकी दिसताली. ल्हानपणांत तो घरची गोरवां चरपाक व्हरतालो. पूण गोरवांक रानांत चरपाक सोडून तो न्हंयेचे देगेर रेंवेचें शिवलिंग करून ताची पुजा करपांत गुल्ल जातालो.

तो आठ वर्सांचो आसतना रानांत ताच्याफुडें एकदम एक जंगम प्रगटलो आनी ताचेकडेन धंयशीत मागपाक लागलो. सिध्दरामेश्वरान ताका थंयच रावपाक सांगलें आनी घरा येवन तो धंय - शीत घेवन ताका दिवपाक परत रानांत गेलो. पूण जंगम थंय नाशिल्लो. ताका अजाप दिसलें. सिध्दरामेश्वराक तो श्रीशैलमल्लिकार्जुनच आसुंये अशें दिसलें. देखून ताचें मन अस्वस्थ जालें. शेवटाक तो श्रीशैलमल्लिकार्जुनाक गेलो. पूण थंय ताका त्या जंगमाचें दर्शन जालें ना. शेवटाक निराश जावन ताणें कमरीकोळळ नांवाचे खोल घाळींत उडी मारली. त्या वेळार भगवान मल्लिकार्जुनान ताका राखलो आनी सांगलें - 'दिनदुबळयांची सेवा हीच म्हजी भक्ती'.

मल्लिकार्जुनाच्या सांगण्याप्रमाण सिध्दरामेश्वरान आपणाक अनाथ अपंगांचे सेवेक ओंपलो. सोलपुरचे शिमेभायर एक खोंप बांदून तो रावपाक लागलो. ताच्या अलौकीक बळग्याक लागून लोक ताका सत्पुरूश म्हणून वळखपाक लागले.

सोलापूरचो राजा नन्नप्पा आनी ताची राणी चामलदेवी सिध्दरामाच्या साधुत्वान प्रभावीत जाली. तांणी ताका शिवाचें देवूळ बांदपाखातीर जमीन आनी पयशे दिले. सिध्दरामेश्वरान एका व्हडल्या जलाशयांत एक शिवालय बांदलें.

सिध्दरामान उबारिल्ल्या सोलापूरच्या ह्या नामनेच्या जलाशयांतल्या शिवालयांत शिवलिंगावांगडा सिध्दरामाचीय धातूमूर्ती आसून तांची नेमान पुजा जाता. आयजय सोलापूर शारांत हें ओडलायणें आनी दर्शनीय स्थान, जावन आसा.

सिध्दरामान ल्हान - व्हड मेळून सगळींच आडसश्ट ते सत्तर शिवालयां बांदलीं, अशें सांगतात. हीं शिवालयां बांदपांत आनी लोकांची सेवा करपांत तो आपणाक पूर्णपणान विसरलो. सोलापूरचें शिवालय बांदता आसतना एक खेप वीरशैव पंथाचो श्रेश्ठ आचार्य

अल्लम प्रभू ताका मेळपाक आयलो. ताणें ताचेकडेन व्हडलेशें लक्ष दिवंक ना. अल्लम प्रभूक ताचें हें वागणें मानवलें ना. फुडें ताणें ताका कल्याणीक आपयलो आनी षट्स्थल सिध्दान्त आनी अष्टावरण हांचो उपदेश करून, चेन्नबसवाकडच्यान ताका गुरूदिक्षा दिली. हे घटनेन सिध्दरामेश्वर अंतर्मुख जालो आनी सोलापुराक येवन एका जाग्याचेर एकान्तवास आपणावन इश्टलिंगानुसंधांनांत रावपाक लागलो.

बिज्जल वधा उपरांत वीरशैव सांप्रदायिकांक कांय तेंप जायत्या घडणुकांक तोंड दिवंचें पडलें. ह्या वेळार सगळ्या शिवशरणांनी सिध्दरामेश्वराक एकमातान शून्य - सिंहासनाचेर बसोवन जगद्गुरूपदाचे सगळे पट्टाधिकार दिले.

ह्या पिठाचेर बसल्या उपरांत कांय काळान सिध्दरामान शिवयोग समाधी आपणायली.

सिध्दरामेश्वर ताच्या काळांतलो एक कर्तो सुधारक आशिल्लो. जातिधर्माचो तो कट्टर विरोधक आशिल्लो. उपदेश करपाखातीर ताणें उच्चारिल्ल्या वचनांचो संग्रह वचन, मिश्रस्तोत्रद त्रिविधी, बसवस्तत्रेद त्रिविधी, अष्टावरण स्तोत्रत्रिविधी, कालज्ञान, मंत्रगोप्य, षट्स्थल ज्ञानसारामृत सारकिल्ल्या ग्रंथांत सांपडटा. सिध्दरामेश्वरान कन्नड साहित्यांत जायती भर घाली. ताणें सुमार आडसश्ट हजार वचनां बरयल्लीं. तातुंतलीं आयज फक्त ८५१च उपलब्ध आसात. ताच्या वचनांच्या शेवटाक 'कपिल सिध्द मल्लिकार्जुन' अशी मुद्रा आसता.

सिध्दरामेश्वराचे यादीखातीर ताच्या समाधीच्या जाग्यार फाटलीं ८०० वर्सां जानेवारी म्हयन्यांत पांच दीस जात्रा भरता. तिका गड्डा जात्रा अशें नांव आसा.

सिध्दरामान आपल्याचेर भाळिल्ले एके लावण्यवतीचें लग्न आपल्या योगदंडाकडेन लायलें. ही बायल सिध्दरामाच्या निर्याणाउपरांत सती गेली. ताका लागून तिचे यादीखातीरय सतीगौरवाचो सुवाळो मनयतात. सिध्दरामाचे जात्रेंत जे दंड मिरयतात तांचो संबंद वयर दिल्ले कथेकडेन आसा अशें सांगतात.

- कों. वि. सं. मं.

**सिध्द संप्रदाय :** परमार्थ साधनेंत जें प्रवीण, अलौकिक सिध्दींनी जें संपन्न, आनी शुध्द, सत्त्वगुणी अशा विभूतींक सिध्द म्हण्टात. सिध्द हें अज्रंवर आनी देव, अतिमानवी योनी, शाकिनी आदी भूतयोनीचें स्वामी अशें मानतात. हाचोच अर्थ सिध्दांच्या विश्वांतले भायले भितल्ले शक्तींचेर आनी क्रियाकर्मांचेर अधिकार चलता.

सिध्दांच्यो तीन परंपरा भारतांत चलत आयल्यात त्यो म्हळ्यार - बौध्द सिध्द, नाथ सिध्द आनी दक्षिणेंतलें शैव सिध्द.

सिध्दांचो काळ काटेकोरपणान थरोवंक येना. सगळे सिध्द हे एकाच काळांत जावंकनात. तांचेमदीं बरेच गुरू - शिश्य आशिल्ले. आर्विल्ल्या संशोधकांनी सिध्दांचो काळ इ.स. ८०० ते १२०० इतलो मानला. तिबेटी दायजांत सिध्दांची संख्या ८४ सांगल्या, पूण नांवां मात फक्त ७८ रां चींच दिल्यांत. ८४ हो आंकडोच सारको ना. विंगड विंगड सिध्दांच्यो यादयो पळयल्यो जाल्यार तातूंत वेगवेगळीं नांवां मेळटात. पूण कांय नांवां मात सगळ्या सूचींत सारकींच दिसून येतात. सिध्दांच्या विशीं इतिहासिक संकेत बरेच मेळटात. पूण तांची चरित्रविशयक सामुग्रीमात सामकी कमी मेळटा. सगळ्यांत पयलो सिध्द कोण हाचेविशींय मतभेद आसात. कांयजाणांनी लुईपालाक तर कांय जणांनी सरहपालाक आदिसिध्द मानला. हे सगळे सिध्द उदेंत भारतांत आपापलीं केंद्रां स्थापून आशिल्ले. कांय जाण नालंदा आनी विक्रमशिला हांगासल्ल्या विद्यापिठांत आशिल्ले आनी तांकां पाल राजाचो आलाशिरो आशिल्लो. ह्या सगळ्यांची साधना वज्रयानी पद्दद्दतीप्रमाण चलताली.

सिध्दसाहित्य म्हळ्यार वज्रयानी सिध्दांचें वाड्मय. तें अपभ्रंश भाशेंत तशेंच दोहे आनी चर्यापदांच्या रुपान मेळटात. कण्हपातिलोमा आनी सरहवा हांचे पुराय दोहाकोश आनी सरहपाचे दोन खंडित कोश मेळिल्ले आसून कांय दोहे बौध्दांच्या तंत्र ग्रंथांत मेळटात. चर्यापदां हीं तंत्री उपासनेच्या वेळार गावपाचीं पदां. १९०७ त नेपाळांत सिध्दांच्या ५0 पदांचो एक झेलो मेळ्ळा. तशेंच २३ सिध्दांचीं ४७ चर्यमीतांय मेळल्यांत. पूण ह्यो सिध्दांच्यो पुराय कृती अशें म्हणपाक आदार ना. चर्यगीतां त्या वेळावयले बोलीभाशेंत आसून तातूंत जायते गूढ संकेत आनी सिध्दांन्त मांडल्यात. तांणी रूपकांचोय आदार घेतिल्लो दिश्टी पडटा. विज्ञानवादाचो परमार्थ सिध्दांत ही सिध्दांच्या तत्त्वदर्शनाची बुनयाद जावन आसा. सिध्दांचें निर्वाण हें शून्यवादाच्या निर्वाणापरस विज्ञानवादाच्या निर्वाणाक अदिक लागशील्लें आसा. सिध्दांचे साधनापद्दतीचो केंद्रबिंदू चित्त जावन आसा.

बौध्दसिध्द हे पोरन्यो रुढी आनी विंगड विंगड पाखंडे हांचे कट्टर विरोधी आशिल्ले. तांणी ह्या गजालींचीं निंदा आनी टवाळी केल्या. बौध्द परंपरेंतले आसून लेगीत बौध्दांच्या दांभिक आचारांची निंदा करूंक ते फाटीं रावूंक नात. हें सगळें करतना तांणी आपलो मान-भोवमान वा आपली सुखी जीण हांची पर्वा केल्ली दिसना. जरी हे सिध्द पाखंडे ना करपाक भायर सरिल्ले आसले तरीय ते ह्या कामांत यशस्वी जालेनात.

नाथसिध्द - बौध्द सिध्दाच्या सोंपत्या काळांत आनी उपरांतय नाथसिध्दांनी समाज जागृतायेचें काम केलें, आनी समाजांत खूब आदर मेळयलो. बौध्द सिध्दाप्रमाणच नाथ सिध्दांची संख्याय ८४च आशिल्ल्याचें वर्णरत्नाकर ह्या ग्रंथांत सांगलां. हो ग्रंथ मैथिली भाशेंत ताडपत्राचेर बरयल्लो आसा. पूण त्या ग्रंथांत आनी पं. हरप्रसाद शास्त्री हाणें दिल्ले नाथ सिध्दांचे सूचींत ७७ च नांवां दिसून येतात. जाल्यार फुडल्या काळांतल्या हिंदी साहित्यांत आनीकय नांवां मेळटात.

नाथसिध्दांची परंपरा शिवासावन सुरू जाता, अशें

अनुश्रुतीवयल्यान समजता. ज्ञानेश्वरींतय तशेंच सांगलां. शिवाक ते आदिनाथ म्हण्टात. मत्स्येंद्रनाथ, जालंधरनाथ, गोरखनाथ आनी कानीफनाथ हे चौग जाण सिध्दनाथ पंथाचे व्हड फुडारी.

मत्सेंद्रनाथान कौलज्ञाननिर्णय, अतुलवीरतंत्र, कुलानंद आनी ज्ञानकारिका अशे चार ग्रंथ बरयल्यात. हे चारय ग्रंथ संस्कृतांत आसात. तिबेटांतल्या तंजूर मठांत जालंधरनाथाचे सात ग्रंथ मेळटात. तातुंतले दोन मगधी भाशेंत आसात. कानीफनाथान ५७ ग्रंथ बरयिल्याचें सांगतात. वज्रयानी सिध्दांत कानीफनाथाची सुवात सगळयांत उंचेली आसा. सिध्द हाका महाचार्य, मंडलाचार्य, महासिध्दाचार्य अशा उपाधींनी पाचारतात. ग्रंथाभायर ताचे कांय दोहेय दिसून येतात.

गोरखनाथ हो सगळ्या नाथ सिध्दांचो मुकुटमणी. ताणें योगमार्ग आपणायलो. हठमार्गाक बरे तरचें रूप दिलें. प्रत्यभिज्ञा दर्शनाच्या आदारान ताणें कायायोगाची साधना सारकी केली. उपदेशाखातीर ताणें बोलभाशेचो उपेग केलो. ताणें ल्हान व्हड ४० पुस्तकां बरयलीं. वयल्या मुखेल सिध्दांभायर हेर सिध्दांच्यो रचनाय मेळटात. तातूंत अजयपाल, धूंधलामल, घोडाचूली, पृथ्वीनाथ, सुकुलहंस, हणवंत, चर्पटनाथ, भर्तृहरी, आदी सिध्दांचो आस्पाव जाता. तांणी हिंदी भाशेंतल्यान ग्रंथरचना केल्या, भोवतेक ग्रंथांतल्यान हठयोगाचेंच वर्णन आसा.

'हठयोग' ह्या उतरांतलो 'ह' चो अर्थ सूर्य आसून 'ठ' चो अर्थ चंद्र असो आसा. सूर्य हो मूळाधार चक्रांत बोंबलेकडेन राबितो करता आनी चंद्र सगळयांत उंचेल्या सहस्त्रार चक्रांत ताळू लागीं रावता. हठयोगाच्या क्रियाकलापान ह्या सूर्य-चंद्राचो संयोग घडोवपाचो आसता. तो घडलो की सहजतायेन समाधी मेळठा.

शैवसिध्द - उ. भारताप्रमाण द. भारतांत, चडकरून तमिळनाडूंत, सिध्दांची एक परंपरा जावन गेली. ही परंपरा खंयच्या काळांत कशेतरेन उत्पन्न जाली, हें सांगप कठीण आसा. दक्षिणेकडल्या कांय सिध्दांचीं नांवां उत्तरेंतल्या नवनाथाच्या नांवाकडेन मेळटी जुळटीं आसात. तेचप्रमाण नाथसिध्द आनी दक्षिणेंतलें शैव सिध्द हांचीं बरीचशीं धर्मीक मतां सारकीं आसात. हाचेवयल्यान उत्तर - दक्षिण असो ह्या संप्रदायाचो बरोच संबंद आसुंये, अशें सुचित जाता.

उत्तरेकडच्या सिध्दांप्रमाण हे दक्षिणी सिध्दय वेद - शास्त्र पूराणां मानिनाशिल्ले. तीर्थयात्रा, पुजापाठ आदी बाह्य आचारांची ते भगल्यो करताले. तांचो भर आंतरिक साधनेचेर आशिल्लो. नाथसिध्दांप्रमाण अद्वैत हेंच तांचें तत्त्वगिन्यान आशिल्लें आनी शिव हो तांचो उपास्य (देव) आशिल्लो. ह्या सिध्दांतले बरेचशे सिध्द रसायन, वखदीविद्या - मंत्रतंत्र आदी विद्यांनी निपूण आशिल्ले. आयजय तमिळनाडूंत सिध्दवैद्य नांवाची एक वेगळी चिकित्सा पद्दत चालू आसा. हे सिध्द जायत्या तरांचे चमत्कार करून आनी हठयोगांतल्यो बऱ्योचशो क्रिया करून लोकांक प्रभावित करताले आनी हे सगळें सिध्द सकयल्ल्या जातींतलें आशिल्लें हें ताचें खाशेलपण.

तायुमानावर हाणें 'सिध्दरगणम' नावांच्या पुस्तकांत तमिळ देशांतल्या १८ सिध्दांचीं नांवां दिल्यांत. तेचप्रमाण उत्तरेकडल्या नवनाथाची कांय वेगळीं नांवांय दिल्यांत. आदिनाथ, मत्सेंद्रनाथ आनी गोरखनाथ हे तिगूय दोनूय कडेन सारके आसात. कांय लोक अगस्त्य आनी तिरूमूलर हांचोय सिध्दपरंपरेंत आस्पाव करतात. अगस्त्यानय तमिळ लोकांक वैजकी, नरवेत्रविज्ञान, आदी शास्त्रां शिकयलीं, अशी पुर्विल्ल्या काळासावन लोकांची धारणा आसा. दक्षिणी शैव सिध्दांनी तमिळ भाशेंतलें ग्रंथ बरयल्यात, ते मुखेलपणान वैजकी, रसायन, नक्षत्रविज्ञान, सामुद्रिक, शुभाशुभ-शकुन आनी हठयोग ह्या विशयांचेर आसात. तांची ग्रंथभास ही सामान्य लोकांच्या वेव्हारांतली आशिल्ली. ताकालागून तांकां संघम साहित्यांत सुवात मेळ्ळी नासुंये, रुढीवादी पंडितांनी केल्ले हे उपेक्षेक लागून तांच्यो बऱ्योचशो ग्रंथरचना नश्ट जाल्यो. मात ह्या सिध्दांच्या वाणीचो आनी तांचे नीतीवचनाचो आयजय समाजाच्या सगळ्या घरांत प्रचार आसा. उ. भारतांत कबीर, रहीम, तुळशीदास, आदी संतांचे दोहे लोक जशे सहज म्हणून दाखयतात, तशेंच दक्षिणेकडले लोक ह्या शैव सिध्दांच्यो पद्मपंक्ती म्हणून दाखयतात.

- कों .वि. सं. मं.

**सिनारी, दत्ताराम अनंत :** (जल्म : १२ डिसेंबर १९२८, सांखळी - दिवचल; मरण : १८ ऑगस्ट १९८२).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण पुर्तुगेजींतल्यान घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो.

बाळा काकोडकार ह्या सुटके झुजाऱ्याच्या फुडारपणाखाल तो पत्रकां वांटप, तिरंगी बावटे लावप असलीं कामां करतालो. १९५४ वर्सा पोलिसांनी ताका धरलो आनी सोळा म्हयने बंदखणींत दवरलो. बंदखणींत ताका सुमाराभायर जाचांक तोंड दिवंचें पडलें. १५ ऑगस्ट १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सिनारी, दिनकर विठ्ठल परब :** (जल्म : १ नोव्हेंबर १९२७, रायबंदर - तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तशेंच णवी मेरेनचें शिक्षण घेतलें. १९४५ वर्सासावन तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तो चडशा भूंयगत वावरांनी वांटो घेतालो. पत्रकां, लावप, राश्ट्रीय पत्रकां वांटप, असलीं कामां करतालो. आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या वावरांत ताचो भाव प्रभाकर सिनारी कार्यरत आसलो. ताका तो चोरयां आदार दितालो. १९५६ वर्सा पोलिसांनी ताका अटक केलो. उपरांत प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून ताका बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

३ जून १९५६ ते १७जुलय १९५८ ह्या काळांत तो आग्वाद बंदखणींत आशिल्लो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## सिनारी, पुरुषोत्तम ऊर्फ शाम विठ्ठल परब :

(जल्मः २९ ऑक्टोबर १९२५, रायबंदर - तिसवाडी).

सुटकेझुजारी. ताणें प्राथमिक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. तशेंच लिंसेंव आनी णवीमेरेन शिक्षण घेतिल्लें. १९४६ वर्सासावन ताणे सुटकेझुजाखातीर वावर करूंक सुरवात केली. १५ जून १९४६ ह्या दिसा मनपत शहा हाच्या घरा पणजे डॉ. राम मनोहर लोहिया हाणें घेतिल्ले बसकेक तो हाजीर आशिल्लो. जेन्ना पोलिसांनी लोहियाक धरून बंदखणींत घालो तेन्ना निशेध परगटावपाक निदर्शनांत ताणें वांटो घेतिल्लो. १९४७त तो पत्रकां लावप, राश्ट्रीय साहित्याचें वांटप करप, तिरंगी बावटे लावप असलीं कामां करतालो. हाचेभायर आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या वावुरप्यांक पुलाविशीं तशेंच हेर म्हत्वाच्यो बातम्यो पावोवपाचें काम तो करतालो. ताचो धाकटो भाव प्रभाकर सिनारी हो चडसो आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या हिंसक वावरांनी वांटो घेतालो. देखून पुर्तुगेज अधिकाऱ्याचो हाचेरय दोळो आशिल्लो. न्यायाधीश क्वाड्रोस हाका पोस्टांतल्यान बाँब पार्सल केल्ल्या आरोपावयल्यान ताका ताचो भाव दिनकर हाचेवांगडा अटक जाली.

पोलिसांनी ताका बरोच मार घालून सुमार चार म्हयने बंदखणींत दवरलो. तशेंच तो आपल्या वांगड्यांक ताच्या क्रांतीकारी वांगड्यांचीं पत्रां पावयता देखून सुमार एक आठवडो ताका काळखा कुडींत दवरिल्लो. उपरांत ताका आग्वाद बंदखणींत व्हेलो. प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून २० जुलय १९५८ दिसा कांय पुरावो मेळनाशिल्ल्यान ताची सुटका जाली. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## सिनारी प्रभाकर विठ्ठल प्रभू :

(जल्म : २३ नोव्हेंबर १९२३, रायबंदर).

नामनेचो सुटकेझुजारी. ताणें बी.ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. ल्हान पिरायेतच ताणें सुटके चळवळींत वाटो घेतलो. सुरवेक मिरवणुको काडप, पोस्टरां लावप, मेळावे घडोवन हाडप असो वावर ताणें केले. उपरांत तो आझाद गोमंतक दलचे क्रांतीकारी संघटनेंत गेलो. हे संघटनेचो तो संस्थापक वांगडी आसलो. ताणें गोंयांत चलयल्ले सशस्त्र क्रांतीक लागून ताका पुर्तुगेजांच्या छळाक तोंड दिवचें पडलें आनी बंदखण भोगची पडली. म्हापशाची सरकारी कचेरी, सत्तरीची रावण पोलिस चौकी, पेडणेचो जकात नाको, चांदेलची पोलिस चौकी तशेंच हेर सरकारी बिनसरकारी मालमत्तेचेर घुरयो घालून पुर्तुगेज शासनाक जबरदस्त धक्को दिलो आनी तेचवांगडा सशस्त्र क्रांती खातीर शस्त्रां आनी दारूगुळो हातासलो.

फुडें १९५१ त ताणें गोंय सोडले आनी बेळगांवा आझाद गोमंतक दलाच्या पालवाखाल मुक्तीचें कार्य चालू दवरलें. फुडाराक ताणें आझाद गोमंतक दलांतल्यान भायर सरून रँक्युअर पॅट्रिओटिका ही संघटना बेळगावां सुरू केली आनी तिचे मार्फत सशस्त्र क्रांतीचें कार्य चालूच दवरलें. हणखणेची पोलिस चौकी, दमणचो विमानतळ, पत्रादेवीची पोलिस चौकी, चांदेलची पोलिस चौकी, दोडामार्ग पोलिस चौकी, तशेंच किरणपाणी, मोपा, भाटपाल हांगां पुर्तुगेज सैनिकांचेर हल्ले केले. जिवावेलो काळ आशिल्ल्या ह्या मोहिमांनी वाटो घेताना पुर्तुगेज सैनिकाच्या गोळीबारांत तो जायते खेपो जखमी जालो. ताका धरून दितल्याक १ लाख रूपया इनाम पुर्तुगेज शासनान जाहीर केल्ले. नगर हवेलीच्या सतंत्र्य सग्रामांत ताणें व्हड योगदान दिलां.

विश्वनाथ लवंदे, दत्तात्रय देशपांडे, नारायण नायक, मुकुंद कामत धाकणकार, मोहन रानडे, कान्होबा नायक, कृष्णाराव राणे, कुश्टा देसाय, हे ताचे चळवळीतले कांय मुखेल वांगडी. केंद्र सरकारान तशेंच गोंयसरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला. गोंयचे सुटके उपरांत गोंय सरकारी आनी अंदमान प्रशासनात वरिश्ठ पोलिस हुद्याचेर काम करून तो निवृत्त जाला.

- कों. वि. सं. मं.

## सिनेगॉग :

यहुदी लोकांचें प्रार्थना घर. ह्या उतराचो अर्थ सभाघर असोय जाता. सुरवेक अशा सभाघरांनी फक्त ज्यू लोकांकच धर्मीक शिक्षण दिताले. पुजा-अर्चा, धर्मीक विधी, पशुबळी सारकिल्लीं कामां देवळांनी करताले. कालांतरान सिनेगॉगांत मागणें करपाची प्रथा सुरू जाली. मागणें म्हणजे पयलीं धार्मिक पुस्तकांतले उतारे एकट्यान वाचपाचे आनी मागीर सगळ्यांनी ते म्हणप अशी रीत आशिल्ली. ल्हव ल्हव मागण्यांत सामे म्हणजे भक्तिगीतांय गावपाची पद्दत सुरू जाली. देवळांतले पुजेंत कर्मकांडाक खूब म्हत्व आसता, जाल्यार सिनेगॉगांतल्या मागण्यांत भक्तिभावनेक म्हत्व आसता. थंय गुपित जांव प्रतिकात्मक अशें कांयच नासता, तर फकत शिक्षण आनी भक्ती हे दोनच विशय आसताले. तशेंच प्रेशिताच्या धार्मिक उपदेशाचो तातूंत प्रभाव दिसतालो. ताका लागून देवूळ आनी सिनेगॉग हांचेमदीं वैर - भावना निर्माण जाली. पूण जेरूसलेम हांगाच्या मुखेल देवळाचो नाश जाल्याउपरांत सिनेगॉग हेंच ज्यूंचें प्रार्थनाघर मानपाक लागले. धार्मिक शिक्षणाइतलेंच मागण्यांकय म्हत्व फाव जालें आनी मागणें करपाचें स्वरूपय बदललें.

पयलीं सगळ्या गांवांखातीर पुजेचें एकूच देवूळ आसतालें. पूण सिनेगॉगां मात जायतीं आसतालीं. पॅलेस्टायनच्या भायर जंय

ज्यूंची वसती आशिल्ली थंयूय अशीं सभाघरां स्थापन करताले. सिनेगॉग ही लोकांखातीर धार्मिक संस्था आशिल्ली. ज्यूंचीं देवळां पुरोयतांच्या प्रभावाखाला आसतालीं. ज्यूंच्या धार्मिक इतिहासांत सिनेगॉगांतलें मागणें हें धार्मिक सुदारणा मानताले.

सिनेगॉगचें प्रवेश दार सदांच उदेंतेक आसता. प्रवेश दाराचे उजवे वटेन मेझूझा म्हणजे द्वारस्तंभ आसता. तातूंत एका धर्मग्रंथांतले उतारे बरयल्लो कागद दवरिल्लो आसता. त्या कागदावयलें भायले वटेनचें परमेश्वर हें उतर स्पश्ट दिसता.

सिनेगॉगाच्या भितरल्या भागांत हेखल म्हणजे एक सोबीत लांकडी कपाट आसता. त्या कपाटांत धर्मग्रंथांची हस्तलिखीत पोथी दवरतात. हें कपाट अस्तंतेक आसता. कांय जाग्यांनी हें कपाट वण्टींत आसून ताच्या फुडें एक पड्डो सोडिल्लो आसता.

हेखलेच्या मुखार एक दिवो पेटत दवरतात. हें परमेश्वराचें प्रतिक. तो दिवो पालवप हें अशूभ मानतात.

सिनेगॉगाच्या मदेगाक पुरोयताक उबो रावपाखातीर व्यासपीठ आसता. ताचेर उबो रावन तो मागणें वाचता.

बायलो आनी दादले हांकां बसपाक वेगवेगळी जागा आसता. पयलीं तांचेमदीं एक उंच पड्डो लायिल्लो आसतालो. आतां बायलांखातीर वेगळी वेवस्था केल्ली आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**सिरिया :** भूंयमध्य दर्याच्या उदेंत तोंकार आशिल्लो एक अरबी देश. क्षेत्रफळ १८५,१८० चौ. किमी. चडांत चड लांबाय ८२९ किमी. (उदेंत - अस्तंत); आनी रुंदाय - ७४८ किमी. (उत्तर - दक्षिण). सिरियाचे अस्तंतेक भूंयमध्य दर्या आनी लेबानन देश, उत्तरेक तुर्कस्तान, उदेंतेक इराक जाल्यार दक्षिणेक - इझ्रायल आनी जोर्डन हे देश आसात. १९९३ त सिरियाची लोकसंख्या १३,३९३,000 इतली आशिल्ली अशें अदमासान थारायलें. राश्ट्रीय भास अरबी जाल्यार, देशाचें अधिकृत चलन पौंड आसा. दामास्कस हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे अस्तंत - उदेंत अशे तीन वांटे केल्ले आसात - १) दर्यादिग २) पर्वतीय भाग आनी ३) देगणां आनी सपाट मरड भाग.

**दर्यादिग :** भूंयमध्य दर्याची अशीर दर्यादिग उत्तरेक तुर्की ते दक्षिणेक लेबानन मेरेन पातळ्ळया. दर्यादिग अशीर आसली तरी तिचे वेगवेगळे सुवातेर विंगड विंगड प्रकार सांपडटात. लाताकिया भागांत फातरी आनी उंच कडो आशिल्ली दर्यादिग आसा. त्रिपोली आनी बॅरूट हांचेमदली दर्यादिग धोंगां - पोंगांची, जाल्यार टायर हांगा रेंवाट वेळ आसा.

**पर्वतीय प्रदेश :** दर्यादिगेचे उदेंतेक आशिल्ली पर्वतीय भूंय उत्तर - दक्षिण अशी पातळ्ळया. जबल एन् नुसारिया पर्वतावळीचो आस्पाव ह्या प्रदेशांत जाता. लेबाननाचे शिमेर एन्टी लॅबानन पर्वत आसून ताचे दक्षिणेक जबल एड् दुरूझ पर्वत आसा.

**देगणां आनी सपाट मळांचो भाग :** हो भाग देशाचे उदेंतेक आसून, तातूंत साबार न्हंयो आनी रूंद पिकाळ देगणां आसात. देशाचे सामके उदेंतेक रेंवाट प्रदेश आसा. आरोंटस न्हंय आनी पर्वतांचेर आशिल्ल्या साबार इर्रीसावन ह्या प्रदेशाक उदका पुरवण जाता. हो प्रदेश खूब पिकाळ आसून, देशांतली चडशी लोकवसती त्या प्रदेशांत सांपडटा. युफ्रेटस न्हंय आनी तिच्या फांट्यांसावन देशाच्या इशान्य भागाक उदक मेळटा.

**हवामान :** देशाचें हवामान मुखेलपणान उश्णकटीबंधीय प्रकारचें आसा. पूण भूंयरचणुकेप्रमाण तातूंत थोडोभोव बदल जाता. दर्यादिगेचें हवामान दमट उरता. जानेवारी म्हयन्यांत त्या भागांत सरासरी तापमान ९° सॅ. जाल्यार जुलय म्हयन्यांत तें २७° सॅ. वयर वता. त्या भागांत वर्सुकी सरासरी पावस १०° सेंमी. इतलो पडटा. पर्वतीय प्रदेशांत जानेवारी म्हयन्यांत सरासरी तापमान ५° सॅ. इतलें आसता, जाल्यार जुलय म्हयन्यांत तें २२° सॅ. वयर वता. देशाच्या सपाट भागांत जानेवारी म्हयन्यांत सरासरी तापमान ५° सॅ. जाल्यार जुलय म्हयन्यांत ३१° सॅ. इतलें आसता. ह्या भागांत पावस खूब उणो पडटा.

पर्वतीय भागांनी भूंयमध्य दर्याच्या प्रकारची, सपाट प्रदेशांत स्टेप प्रकारची, जाल्यार देशाचे सामके उदेंतेक वाळवंटी प्रकारची वनस्पत वाडटा. रानदुकर, रानबोकड, सोंसो, कोलो, रानमाजर, कोलसुणें, मुंगूस ही मोनजात, तशेंच तरेकवार सवणीं थंय आसात.

**इतिहास :** १९१८ मेरेन सिरिया देशांत सद्याच्या इझ्रायल, जॉर्डन, आनी लॅबानन देशांच्या, तशेंच तुर्कीच्या कांय भागाचो आस्पाव जातालो. त्या तेंपार ताका ग्रेटर सिरिया अशें म्हण्टाले. आदीम काळासावन संस्कृतीक मळार सिरीया हो गिरेस्त देश आशिल्लो. पिकाळ भूंय आनी युरोप आनी आशिया खंडांक जोडपी वेपारी मार्ग सिरीयांतल्यान वता जाल्ल्यान मध्य काळांत ताका खूब म्हत्व प्राप्त जाल्लें. हाका लागून सिरीयाचेर ताबो मेळोवपाक साबार युरोपी देशांभितर सर्त लागिल्ली.

इ.स. पयलीं ४५00 आदीं सिरीयांत लोकांचो राबितो आशिल्लो अशें म्हण्टात. इ.स.प. ३५00च्या सुमाराक सॅमिटीक लोक थंय पावले. तांणी थंय साबार शारां उबारलीं. एल्बा हें प्रसिद्द शार. इ.स.प. २७00 ते २२00 ह्या सुमाराक भरभराटीक आयिल्लें. उपरांत इ.स.प. ५३१ मेरेन सॅमिटीकच्या विंगड विंगड पंगडांनी सिरियाचेर शेक गाजयलो. अक्काडीयन, कान्नानायट, फोयनेशीयन, एमोरायट, हबरीव, आरामीन्स एसिरियन आनी बॉबिलोनीयन हे तांच्यांतले मुखेल पंगड. इ.स.प.६१२च्या सुमाराक एसिरियनांक हारावन

बॅबिलोनीयन पंगडान सिरियाचेर ताबो मेळयलो. सिरियाचेर राज्य करपी बॅबिलॉनीयन हो निमाणो सॅमिटीक पंगड. उपरांत इ.स.प. ५३९ त परसियन लोकांनी बॅबिलोनीयांक हारावन सिरिया प्रदेश परसियन साम्राज्याक जोडलो. इ.स.प. ३३३त अलेक्झांडरच्या फुडारपणखाल ग्रीक आनी मॅसिडोनीयन सैन्यान परसियनांचो पराभव केलो. अलेक्झांडर आनी ताच्या फाटल्यान आयिल्लो सेल्युसीड हांणी सिरीया आनी भोंवतणच्या प्रदेशांनी ग्रीक संस्कृती पातळळी. इ.स.प. ३१२ ते इ.स.प. ६४ मेरेन साबार सेल्युसीड सम्राटांनी सिरीयाचेर शेक गाजयलो. तांच्या तेंपार वेपारांत खूब वाड जाली, तशेंच शेतकी मळांरय उदरगत जाल्ली. इ.स.प. ६४ त रोमी लोकांनी सिरिया आपल्या शेकातळा व्हेलो. उपरांत तो सुमार ७०० वर्सां रोमी साम्राज्याचो भाग म्हूण उरलो. ह्या काळांत ग्रेटर सिरियाच्या पॅलेस्टायन प्रदेशांत किरिस्तांव धर्माची वाड जाली. इ.स. ३००च्या सुमाराक किरिस्तांव हो सिरियांचो राजर्धम जालो.

इ.स. ६३६ त अरबी द्विपकल्पांतल्या मुसलमानांनी बायझांटन सैन्याक हारावन सिरीयाचेर जैत मेळयलें. तांणी सिरियांत ल्हव ल्हव इस्लाम धर्म पातळावन अरबी भाशेचो विस्तार केलो. ६६१ सावन उमाय्याद वंश दामस्कसच्यान इस्लाम साम्राज्य चलयतालो. पूण ७५० त उमाय्यादांचो पराभव करून अब्बासीद वंश सत्ता गाजोवपाक लागलो. उपरांत युरोपी किरिस्तांव धर्मझुजाऱ्यांनी इकराव्या शेंकड्यासावन पॅलेस्टायन ही आपली पवित्र भूंय मुसलमानांकडच्यान घेवपाखातीर थंय साबार झुजां उबारलीं. पूण इजिप्ताचो सम्राट सलादीन हाणें तांचो पराभव केलो. ११००त सिरियेचो चडसो भाग सलादीनाच्या शेकातळा आशिल्लो. १२६० ते १५१६ मेरेन सिरिया ईजिप्ताच्या मामेल्युक वंशाच्या शेकातळा आशिल्लो. १५१७त तुर्कांनी सिरियाचेर जैत मेळोवन तो ऑटोमन साम्राज्याक जोडलो. उपरांतचीं सुमार ४०० वर्सां मेरेन सिरिया ऑटोमन एक भाग म्हूण उरलो. सोळाव्या शेंकड्यांत आशियेंत येवपाखातीर युरोपियनांनी उदकामार्गाचो सोद लायिल्ल्यान वेपारी केंद्र म्हूण प्रसिद्द आशिल्ल्या सिरियाचें म्हत्व उणें जालें. १८व्या शेंकड्यासावन ऑटोमन साम्राज्याक देंवती कळा लागली. तशेंच वाडट्या प्रभावाक लागून सिरियन लोकांच्या मनांत राश्ट्रीय भावना निर्माण जाली. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन सिरियन लोक स्वातंत्र्याची मागणी करपाक लागले.

पयल्या म्हाजुजाच्या काळांत सिरियन आनी हेर अरबी लोकांनी ब्रिटिशांक तेंको दिवन ऑटोमन साम्राज्याआड साबार उठाव केल्ले. ताच्या बदला ब्रिटिशांनी सिरियन आनी अरबी लोकांक स्वातंत्र्य दिवपाचें मान्य केल्लें. पूण झुजा उपरांत लिग ऑफ नॅशन्स हे संस्थेन ग्रेटर सिरियाचे सिरिया, लेबानन, पॅलेस्टायन आनी ट्रान्सजॉर्डन अशे चार भाग केले. तशेंच लिगान सिरिया राज्य फ्रँच देखरेखीखाल दवरलें. सुरवेक सिरियन लोकांनी फ्रेंचांक खूब विरोध केलो. फ्रेंचांनी सिरियांत खूब सुदारणा घडोवन हाडली. पूण सिरियन लोकांनी स्वातंत्र्याची मागणी चालूच दवरली.

फ्रांसान १९४६त सिरियांतलें आपलें सैन्य काडून सिरियांचें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. स्वातंत्र्य मेळळे उपरांत सिरियन लोकांनी ग्रेटर सिरिया निर्माण करपाचे खूब यत्न केले. १९४७त संयुक्त राश्ट्रांनी पॅलेस्टायनची इझ्रायल आनी अरबी राश्ट्र अशी विभागणी केली. १९४८त इझ्रायलचें स्वातंत्र्य जाहीर केल्याउपरांत सिरिया आनी हेर अरब राश्ट्रांनी इझ्रायलचेर घुरी घाली. ग्रेटर सिरियाची विभागणी थांबोवपाक अपेश आयिल्लें सरकार उमथावन १९४९त सिरियांत लश्करी राजवट आयली. अरब एकवट घडोवन हाडपाखातीर १९५८त सिरिया, इजिप्त देशाक मेळळो १९६०त सिरियेंत बाथ पक्ष सत्तेर आयलो. त्या वेळार सरकारान चडशा उद्देगांचें आनी आंतरराश्ट्रीय वेपाराचें राश्ट्रीयकरण केलें. १९७१त हाफेझ अल्-असाद हो सिरियाचो अध्यक्ष जालो.

शिमवादावयल्यान सिरिया आनी इझ्रायल हांच्यांत १९६० सावन झगडीं चालूच आशिल्लीं. ५ जून १९३७ दिसा इझ्रायल आनी सिरिया, जोर्डन, इजिप्त हांच्यांत झूज सुरू जालें. तातूंत इझ्रायल जैतिवंत थारावन ताणें अरब राज्यांचो व्हड प्रदेश हातासलो. त्या प्रदेशांत सिरियाच्या 'गोलन हायट' ह्या भागाचो आस्पाव आशिल्लो. त्या प्रदेशावयल्यान सिरिया आनी इझ्रायल हांच्यांत झगडीं चालूच उरलीं. १९८१त इझ्रायलान गोलन हायतचेर आपलो राजकीय आनी कायदेशीर हक्क जाहीर केलो. सिरिया आनी हेर अरब देशांनी हे घडणुकेचो निशेध केलो. गोलन हायट ह्या प्रदेशाक धरून सिरिया आनी इझ्रायल हांच्यांत आयजय तणावाचें वातावरण चालूच आसा. सद्या अरब राश्ट्रांभितर सिरियाकय म्हत्वाची सुवात आसा. १९९०त इराकी सैन्यान कुवेटाचेर घुरी घालून आपल्या शेकातळा व्हेलो तेन्ना इराकाक विरोध करतल्या राश्ट्रांमदीं सिरियाचोय आस्पाव आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**सीता :** सीरध्वज जनकाची धूव आनी दशरथी रामाची बायल.जनकाची ती रगताची धूव न्हय. एक दीस यज्ञाखातीर भूंय नांगरता आसतना ताका ती मातयेंतल्यान वयर आयिल्ली मेळळी. जनकाक धूव नाशिल्ली देखून ताणें तिका आपणायली आनी तिचें नांव सीता दवरलें. सीतेची प्राप्ती उत्तरा फाल्गुनी नक्षत्राचेर जाली.

सीता खूब सोबीत आशिल्ली. कोमलांगी, चंद्रवदना, आपल्या तेजान धाय दिको पर्जळीत करपी, भांगरा कांतीची आनी रतीची प्रतिमा अशीं जायतीं विशेशणां वाल्मीकीन तिका दिल्यांत.

महापराक्रमी पुरुशाक लेगीत उखलपाक येवंचें ना अशेतरेचें परंपरेन चलत आयिल्लें एक शिवधोणू जनकाच्या घरांत आशिल्लें. ताचो उपेग करून ताणें सीतेचे लग्न करपाचें थारायलें. जो तें शिवधोणू

सज्ज करतलो ताका आपूण आपली धूव दितलो असो पण ताणें घोशीत केलो. सीतेसारक्या देवी कुमारीकेक वीरपुंगव असो घोव मेळचो हो ताचो ह्या पणाफाटलो हेत आशिल्लो. जायत्या देशांतल्या राजकुंवरांनी मिथिलेंत येवन तें धोणू उखलपाचो यत्न केलो. पूण कोणाकच तें जमलें ना. शेवटाक जनकान थारायल्ल्या यज्ञाच्यावेळार विश्वामित्राच्या वांगडा आयिल्ल्या रामान तें शिवधोणू उखललें आनी ताचेर बाण लायताना तें मोडलें. हें पळयतकच थंय जमिल्ल्या सगळ्यांक अजापाचो धक्को बसलो. ताचे उपरांत जनकान सीतेक आपणावपाची रामाक विनंती केली. शेवटाक दशरथाच्या हयकारान रामान सीतेक आपणायली. रघुकुलाची नववधू म्हण ती मागीर अयोध्येंत आयली. उपरांतचो कांय काळ तिणें आपलो घोव, रामावांगडा सुखान सारलो.

राम वनवासाक वचपाक भायर सरलो तेन्ना सीताय ताचेवांगडा वचपाक तयार जाली. आपल्या राजवैभवाचो त्याग करतना तिका मातय वायट दिसलें ना. कारण रामाबगर जगप तिका शक्य नाशिल्लें. वनवासांत आसतना सीतेक कसलेच त्रास जावंचे न्हय म्हण राम तिची जायती जतनाय घेतालो.

सीतेक एक दीस फुलां पुंजायता आसतना एक हरण दिश्टी पडलें. तें हरण आपलेखातीर धरून हाड म्हणून रामाकडेन तिणें हट्ट धरलो. तो एक मायामृग आसा अशें जायते तरांनी ताणें तिका समजायलें. पूण तिका तें खरें दिसलें ना. शेवटाक राम त्या हरणाक धरपाक ताचेफाटोफाट गेलो. लक्ष्मणय ताच्या वांगडा गेलो. ते दोगय थंय ना तें पळोवन रावणान येवन सीतेक बळजबरीन उखलून लंकेंत व्हेली आनी राक्षसीणींच्या नदरेखाला अशोकवनांत दवरली. तिका वश करपाखातीर रावणान जायते यत्न केले. पूण सीता ताका वश जाली ना. फुडें रामान लंकेचेर स्वारी करून रावणाचो पराभव केलो आनी सीतेक ताचे तावडेंतल्यान सोडयली. चरित्रान ती शुध्द आसा काय ना हें पळोवपाखातीर रामान तिका अग्नीदिव्य करपाक लायलें. ती शुध्द आसा म्हणपाची खात्री जातकच ताणें सीतेक आपलेवांगडा अयोध्येक व्हेली. थंय रामावांगडा तिचो राज्याभिशेक जालो.

मागीरचो कांय काळ सुखाचो गेलो आनी सीता गुरवार जाली. त्याच काळांत सीतेच्या चरित्र्याविशीं अयोध्येंत धुसफूस जावपाक लागली. हें रामाक कळ्ळें तेन्ना ताणें तिचो त्याग केलो. अशावेळार लेगीत सीतेन रामाक कांयच दोश दिवंक ना.

वनांत एकटीच बशिल्ली आसतना तिका वाल्मीकीन पळयली. ताणें तिका आपल्या आश्रमांत व्हेली. थंय तिणें लव आनी कूश ह्या दोगा पूतांक जल्म दिलो. सीतेवयलो आळ पयस करपाखातीर वाल्मीकीन दोगय पुतांक घेवन रामाची राजसभेंत भेट घेतली. ताणें रामाक सीतेक आपणावपाक सांगलें. ते पळोवन, सीता चरित्र्यवान शुध्द आसा. पूण प्रजाजनांक हें पटलेबगर आपूण तिका आपणावंचो ना आनी हे खातीर तिका परत एक खेप दिव्य करचें पडटलें अशें रामान वाल्मीकीक सांगलें.

सीता त्याय दिव्याक तयार जाली. आपल्या चारित्र्याची तिका शुध्दता दाखोवपाची आशिल्ली. पूण रामावांगडा सिंहासनाचेर मात तिका बसपाचें नाशिल्लें. आपल्या जिविताची आनी सुखोपभोगांची तिका सामकी उबगण आयिल्ली. दिव्य करून ह्या लोकांतल्यान तिका वचपाक जाय आशिल्लें. देखून तिणें दिव्याची प्रतिज्ञा सामकी वेगळेतरेन उच्चारली.

यथाहं राघवादन्यं मनसापि न चिन्तये ।
तथा मे माधली देवी विवरं दातुमर्हति ।।

**अर्थ** - जर हावें रामचंद्राशिवाय दुसऱ्या कोणय पुरूशाचो विचार मनांत हाडला आसत जाल्यार, देवी वसुंधरे, तूं म्हाका आपल्या पोटांत घे.

सीतेच्या तोंडांतल्यान हीं उतरां आयल्याबरोबर धर्तरेक चीर पडली आनी तातुंतल्यान एक दिव्य सिंहासन वयर आयलें. त्या सिंहासनाचेर धरणीमाता विराजमान जाल्ली. तिणें सीतेक आपल्यालागीं ओडली. रोकडेंच तें सिंहासन रसातळाक खोल गेलें. त्याच खिणाक मळबांतल्यान दिव्य फुलांचो वर्षाव जालो.

सीतेचें हें चरीत्र वाल्मीकीरामायणाच्या आदारान कळटा. हेर रामायणांनीय सीताचरीत्राचो मुखेल गाभो तसोच दवरून कांय वेग वेगळे पर्याय आनी प्रसंग दिल्ले आसात. चडकरून सीतेच्या जल्माविशीं जायत्यो कथा सांगिल्ल्यो आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**सीताफळ :** (पळेयात आंत्तेर).

**सीमांतपूजन :** लग्नापयलींचो एक लौकिक विधी. व्हंकलेच्या बापायक आपली चली चडकरून दुसऱ्या गांवांत दिवपाचो प्रसंग येता. अशावेळार न्हवऱ्यावटेनच्या लोकांनी व्हंकलेच्या गांवांत वचचें अशी चाल आसा. जेन्ना न्हवऱ्यावटेनची मंडळी व्हंकलेच्या गांवांचे शिमेर येता तेन्ना व्हंकलेचो बापूय आपल्या लोकांवांगडा वाजत - गाजत मुखार येता. पयलीं तो न्हवऱ्याच्या बापायक अलिंगन दिवन मेळटा. व्हंकलेची आवयय न्हवऱ्याचे आवयक अशीच मेळटा. मागीर व्हंकलेचो बापूय त्या गांवशिमेरच न्हवऱ्याची पुजा करता. दोनयकडच्या शिमांचो जंय अंत जाता थंय केल्ली पूजा ही सिमांत पुजा.

हे पुजेचो धार्मिक विधी असो -

व्हंकलेचो आवय - बापूय गणपती आनी वरूण हांची पुजा करून न्हवऱ्याचे पांय धुतात. व्हंकलेचो बापूय न्हवऱ्याच्या कपलाक कुंकमाचो तिळो लायता. न्हवऱ्याक नवे कपडे दिवन हार घालता. बाशिंग बांदता. व्हंकलेची आवय न्हवऱ्याच्या आवयचे आनी न्हवऱ्यावटेनच्या हेर मानदीकांचे पांय धुवन तांकां हळद-कुकूम लायता आनी तांची व्होंट भरता. ह्या वेळार न्हवऱ्यावटेनच्या लोकांक फोव,

साकर आनी शिदो दिवपाचीय कांयकडेन चाल आसा. मागीर व्हंकलेचो बापूय जमिल्ले मंडळीक पानसुपारी आनी अत्तर - गुलाब दिता. भटांक दक्षणा दिता. जेन्ना लग्नांत हुंडो दिवपाघेवपाची पद्दत आशिल्ली तेन्ना हुंड्याची रक्कम ह्याचवेळार न्हवऱ्याच्या हातांत दिताले. न्हवरो - व्हंकल एकाच गांवांतले आसले वा लग्नाखातीर एकाच माटवांत आयिल्ले आसले तरीय लग्न सुवाळयाच्यावेळार सीमांतपूजन करपाची चाल आसा. अशावेळार ही पुजा लग्नाच्या माटवाच्या वा हॉलाच्या दारांत करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**सीरियन किरिस्तांव :** केरळांतलो एक किरीस्तांव समाज. सेर्रा म्हणजे पर्वत. पर्वताच्या मुळसांत रावतात देखून ह्या लोकांक सीरियन किरिस्तांव नांव पडलें.

सेंट थॉमस हो क्रिस्ती धर्मप्रचारक इ.स. ५२ च्या अदमासाक मलबारांतल्या मलैंकर वा मौझिरिस ह्या बंदरांत देंवलो. कोचीन, त्रावणकोर ह्या भागांत ताणें सात इगर्जो उबारल्यो. तशेंच जायत्या लोकांक किरिस्तांव धर्माची दिक्षा दिली. ताचेउपरांत इ.स.च्या दुसऱ्या शेंकड्यांत ह्या किरिस्तांव जाल्ल्या समाजान अलेक्झांड्रियाच्या डेमेट्रियसाक एक किरिस्तांव धर्मोपदेशक धाडचो म्हण मागणी केली. मागीर पँटेनस हो किरिस्तांव धर्मपंडित इ.स. १८० ते १९० च्या अदमासाक मलबारचे देगेचेर आयलो. मॅथ्यूचो गॉस्पेल हो हिब्रू भाशेंतलो धर्मग्रंथ ताणें हांगाच्या किरिस्तांव समाजाक दिलो. ताचेउपरांतच्या काळांत जायते धर्मप्रसारक हांगा येत रावले. इ.स.च्या चवथ्या शेंकड्याच्या मध्याक थॉमस कॅना हो सीरियन धर्मोपदेशक मलबारांत आयलो. ताणें बगदादचे कॅथॉलिक धर्मोपदेशक आनी जायते सीरियन धर्मप्रचारक मलबारांत हाडले आनी हांगाच्या किरिस्तांव समाजांत जायत्यो धार्मिक सुदारणा केल्यो. थॉमस कॅनान दोन भारतीय बायलांकडेन लग्नां केलीं. फुडें तांच्या भुरग्यांमदीं वारसा हक्काविशीं झगडीं जालीं आनी उत्तरीय आनी दाक्षिणात्य अशे दोन वेगळे किरिस्तांव समाज निर्माण जाले.

इ.स.चो णववो ते चवदावो शेंकडो हो कालखंड मलबारी किरिस्तांव समाजाचो भरभराटीचो काळ आशिल्ले. ह्या काळांत हांगा एक स्वतंत्र किरिस्तांव राजघराणें स्थापन जालें. इ.स. १४९८त वास्को द गामा मलबारांत आयलो आनी फुडें थंय पुर्तुगेजांची सत्ता स्थापन जाली. तेन्ना थंयच्या स्थानिक किरिस्तांव राजान आपलो मुकूट आनी राजदंड वास्को द गामाक दिलो.

पुर्तुगेज धर्मोपदेशकांनी मलबारांत रोमन कमुनियन पंथाचो प्रचार केलो. फुडें मलबारी इगर्जेक रोमन इगर्जेचो फांटो केलो. कालांतरान मलबारांत रोमो सीरियन, जॅकोबायट सीरियन आनी लॅटिन कॅथॉलिक अशे तीन पंथ अस्तित्वांत आयले.

लॅटिन कॅथॉलिक आनी रोमी सीरियन हे दोनय पंथ रोमच्या इगर्जेचो प्रार्थनाविधी पाळटात. जॅकोबायट सीरियन समाज हे दोनय सेंट जेम्साचो प्रार्थनाविधी पाळटात. तांचेमदीं जायते मतभेदय आसात.

पयलीं जॅकोबायट सीरियन लोकांत चल्या-चलयांचीं ल्हानपणांत लग्नां जातालीं. पूण आतां भुरगीं व्हड जाल्याउपरांत लग्ना जातात. लग्नां आयतारचीं जातात. उत्तरीय सीरियन किरिस्तांव समाजांत तीं व्हंकलेच्या जांव न्हवऱ्याचे पॅरिश इगर्जेंत जातात. पॅरिश प्रीस्ट म्हणजे पुरोयताच्या वांगडा लग्नाच्यो अटी थारावंच्यो पडटात. व्हंकलेक दिवपाचो हुंडो ही मुखेल गजाल आसता. लग्नाच्या दिसाच्या पयलीं येवपी आयताराक हुंडो दितात. शेनवारा राती लग्नाचो पयलो विधी म्हण न्हवरो-व्हंकलेक न्हाण घालतात. दुसऱ्या दिसा सकाळीं न्हवरो - व्हंकल इगर्जेंत 'मासा' खातीर, म्हणजे सामुदायिक मागण्याखातीर हजर रावतात. तांचो भेस अस्तंती पद्दतीचो आसता.

आपल्या घरांतल्यान भायर सरचे पयलीं न्हवरो पुरोयताक कपडे आनी दक्षणा दिता. न्हवऱ्यावांगडा ताचे भयणीचो घोव आसात तो ताळी हाडटा. मास जाल्याउपरांत हुंड्याच्या रकमेचो धावो वांटो इगर्जेक लग्नाची फी म्हण दितात. लग्नाचे मंत्र वाचून जाल्या उपरांत न्हवरो व्हंकलेच्या गळयांत ताळी बांदता. मागीर न्हवरो - व्हंकल दबाज्यान आपल्या सोयऱ्या इश्टांवांगडा घरा येता. घराच्या दारांत न्हवऱ्याची भयण दिवो घेवन उबी आसता. ती न्हवऱ्याचे पांय धुता आनी न्हवरो - व्हंकल माटवांत वतात. थंय तीं जेवल्याउपरांत जमिल्ल्या सगळयांचें जेवण जाता. फुडलो बुधवार मेरेन न्हवऱ्याचो धेडो ताचेवांगडा कुडींत न्हीदता. व्हंकल दुसरे कुडींत न्हीदता. बुधवारा सांजचीं न्हवरो - व्हंकलेक न्हाण घालतात. उपरांत न्हवरो धेड्यावांगडा आपले कुडींत वता आनी दार बंद करता. व्हंकलेची आवय येवन मागीर व्हंकलेची तुस्त करपी पदां म्हण्टा आनी तीं आयकन न्हवरो भायर येता. मागीर न्हवरो व्हंकलेच्या बापोलयांक, आवयक आनी आजो - आजयेक वस्त्रां दिता. मागीर न्हवरो - व्हंकलेक तांच्या कुडींत व्हरतात. थंय लग्नाच्या दिसा केल्ले सगळे विधी करतात. इतल्यान लग्न सुवाळो सोंपता.

दाक्षिणात्य जॅकोबायट समाजांत लग्नाचो विधी वयर सांगिल्ल्याप्रमाणेच करतात. पूण हुंडो मात लग्नाच्या दिसा मेरेन जांव व्हंकलेच्या पयल्या बाळंटेरामेरेन दिनात. लग्नाचे मंत्र चालू आसतना न्हवरो व्हंकलेच्या बोटांत मूदी घालता. दुसऱ्या दिसा सांजेचे लोक तांकां येवन मेळटात. मागीर मंत्र म्हणप चालू आसतनाच सगळयांचें जेवण जाता. बिरेस्तारा दिसा व्हंकलेच्या घरा वचचे पयलीं न्हवऱ्यावटेनचे लोक व्हंकलेवटेनच्या लोकांक व्हड मेजवानी दितात. मागीर दादले - बायलो पदां म्हणत दिव्याभोंवतणी नाचतात.

रोमो सीरियन आनी रिफॉर्म्ड पंथ हांच्या लग्न सुवाळयांत हिंदुंच्या चालींचे कांय अवशेश सांपडटात. हे लोक आयतारचीं लग्नां

करिनात.

हे लोक मेल्ल्यांक पुरतात. रिफॉर्म्ड पंथाभायर हेर पंथांत मेल्ल्याचो दर एक सोयरो मड्याक वस्त्र हाडटा. मडें थडग्यांत दवरचे पयलीं ताच्या कानांत, दोळयांत आनी नाकांत पवित्र तेल घालतात. पुलीकुली नांवाचो शुध्दविधी जायमेरेन मेल्ल्याचे लोक सुतक पाळटात. हो विधी ११ व्या, १५व्या, १७व्या २१व्या जांव केन्नाय ४१व्या दिसा करतात. मागीर शेजारी आनी गरीब लोकांक जेवण घालतात. ४० व्या दिसा परत जेवण दितात. त्या वेळार सुतकांतले लोक पयलीं मांस खातात. मेल्ल्या म्हयन्याळ्या श्राध्दा दिसा लागिंच्यांक जेवण घालतात.

आदल्या तेंपार हे लोक स्थानिक राजांच्या सैन्यांत नोकरी करताले. पूण आतां जायते लोक सरकारी नोकरी करतात. वृत्तीन धाडशी आशिल्ल्याकारणान वेपार, कारखानदारी, शेती बी सगळे तरेचे वेवसाय ते करतात.

आतांचे सीरियन किरिस्तांव आपणाक उच्चवर्णीय हिंदूंचे वंशज मानतात आनी तांच्यो कांय चालीरीती पाळटात. तातुंतल्यो कांय अशो -

जायते किरिस्तांव लोक इगर्जे इतलेंच देवळांकय पूज्य मानतात. तशेंच हिंदुंच्या फलज्योतिशाचेरय तांचो विश्वास आसून, आपल्या भुरग्यांच्यो कुंडल्योय ते शास्त्राप्रमाण तयार करून घेतात. हिंदूंतल्या चालींप्रमाण सीरियन किरिस्तांव न्हवरो लग्नाच्यावेळार व्हंकलेच्या गळयांत ताळी बांदता. घोव मेल्यार बायल ही ताळी काडून उडयता. एकाद्र्या मनशाच्या मरणाउपरांत ताचीं भुरगीं आनी लागिंचे लोक धा ते पंदरा दीस सुतक पाळटात. सुतकाच्या दिसांनी मांस खावपाक जायना. मेल्ल्याचें वर्सुके श्राध्द इगर्जेंत मागणें करून आनी घरांत लागिंच्या लोकांक जेवण घालून करतात. खेडेगांवांतले सीरियन किरिस्तांव लोक हिंदुंचो ओणम हो सण आनी विषू हो नव्या वर्साचो दीस व्हडा उमेदीन मनयतात. हिंदूंभाशेन भुरगें स म्हयन्यांचें जाल्याउपरांत ताचो आवय - बापूय ताचो अन्नप्राशन संस्कार करतात. तशेंच वेगवेगळया पंथाच्या किरिस्तांवांचीं आपसांत लग्नां जायनात. आधुनिक काळांत समाजाच्या चाली रितींनी जायते बदल घडूंक लागल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**सुंदरदास :** (जल्म : इ.स. १५९६, दौसा जाव द्यौसा - जयपूर, राजस्थान; मरण : १६८९ सांगानेर, जयपूर).

एक व्हड हिंदी संतकवी. ताचो जल्म खंडेलवाल, महाजन जातींत जालो. ताच्या बापायचें नांव परमानंद आनी आवयचें नांव सती.

सुंदरदासाचें खरें नांव खबर ना. तो स वर्सांचो आसतना नामनेचो हिंदी संत दादू दयाळ ताच्या गांवांत आयलो. सुंदरदासाच्या रुपाचेर भाळून ताणें सुंदरदासाक सुंदर दिसता अशें म्हळें. दादून ताका उद्देशून वापरिल्लें सुंदर हेंच विशेशण फुडें ताचें विशेशनाम थारलें.

दादून पयलेच नदरेंत सुंदरदासाक प्रभावीत केलो आनी ताका मंत्रदीक्षाय दिली. ताच्या बापायचे परवानगेन ताणें ताका आपल्यावांगडा व्हेलो. कांय दिस सुंदरदासान दादूचो सत्संग अणभवलो. पूण रोखडोच दादून देहत्याग केलो. मागीर सुंदरदास जगजीवन नावांच्या साधूवांगडा द्यौसा हांगा आपल्या घरा परत आयलो.

द्यौसाक तो सुमार तीन वर्सां रावलो. मागीर ताच्या मनान पंडित जावपाचो ध्यास धरलो आनी शिक्षणाखातीर तो जगजीवनावांगडा इ.स. १६०३ त काशीक वचून रावलो. थंय तो बाव्वीस वर्सां रावलो. ह्या काळांत ताणें वेदाध्ययन केलें. तशें स शास्त्रां आनी अठरा पुराणांचो अभ्यास केलो. संस्कृत भाशेचेरय ताणें वर्चस्व मेळयलें.

इ.स. १६२५त तो काशीच्यान भायर सरलो. काशींत आसतना ताका जायत्या साधु-संतांचो संग घडलो. ताकालागून ताची आध्यात्मिक प्रगती बेगीन जाली. काशी सोडटना ताचेवांगडा फतहपूरचो एक साधू आशिल्लो. सुंदरदासान आनी ताणें उ.भारत, पंजाब, सौराष्ट्र, राजस्थान सारकिल्ल्या प्रदेशांनी धर्म आनी तत्त्वज्ञान हांच्या प्रचाराखातीर भोंवडी केली. ह्याच काळांत तांणी जायत्यो तीर्थयात्राय केल्यो.

तीर्थाटणा उपरांत सुंदरदास फतहपुराक रावलो. थंय ताणें जायत्या मोलादीक अध्यात्मपर ग्रंथांची रचणूक केली. बेगिनच ताका परमार्थाचें परमरहस्य सांपडलें. मागीर तो तेच धुंदींत रावपाक लागलो. शेवटाक ताणें वरवद जांव उदक कांयच घेवंक ना आनी तातुंतच तो सोंपलो. सांगानेर हांगा ज्या जाग्याचेर ताचेर निमणे संस्कार जाल्ले थंय ताची समाधी बांदिल्ली पूण आतां ती थंय ना.

सुंदरदास निर्गुणोपासक संतकवी आशिल्लो. ताणें ल्हान - व्हड अशे सुमार ३६-३७ ग्रंथ बरयले. ज्ञानसमुद्र, सर्वांगयोग, पंचेंद्रियचरित,सुखसमाधी, स्वप्नप्रबोध, वेदविचार,सहजानंद, सुंदरविलास अशीं तांचीं नांवां आसात. हांच्यांतले ज्ञानसमुद्र आनी सुंदरविलास हे दोन ग्रंथ चड लोकप्रिय थारले. सुंदरदासाची भास दृश्टान्तसमृध्द, सोंपी आनी रसाळ आसा. तशेंच भक्तिप्रेमाचें रहस्य विस्कटायतना तो वेगवेगळया तरांचे परिचयाचे दृश्टान्त दिता.

दयालदास, श्यामदास, दामोदरदास, निर्मलदास आनी नारायणदास हे ताचे मुखेल पांच शिश्य. ताच्या शिश्यांनी सुंदरदासाचीं कांय हातबरपां आनी हेर वस्तू फतहपूराक जपून दवरिल्ल्यो आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**सुखटणकर, दत्ताराम कृष्णा :** (जल्म : ११ डिसेंबर १९२४, माशेल - गोंय).

नामनेचो कोंकणी साहित्यीक. ताचें मुळावें शिक्षण माशेलांत आनी साहित्यीक. ताचें मुळावें शिक्षण माशेलांत आनी माध्यमिक शिक्षण फोंडेच्या आल्मेदा हायस्कुलांत जावन तो १९४५त मॅट्रीक पास जालो. फुडलें शिकपाखातीर तो कोल्हापुरच्या राजाराम कॉलेजींत गेलो आनी उपरांत इश्कोल मॅदिकु सिर्जीस द गोवा (Escota Medica Cirurgica Da Goa) ह्या गोंयचें वैजकी संस्थेतल्यान १९५३ त वैजकी शास्त्राची पदवी घेतली. गोंयात पुर्तुगेज सत्तेआड वावर केल्ल्यान पुर्तुगेजांकडच्यान कांय तेंप ताका बंदखण भोगची पडली. उपरांत गोंय सोडून तो मुंबय गेलो.



वर्देच्या गांधी कुश्ठरोग निवारण केंद्रात आनी मुंबयच्या एकवर्थ लॅप्रसी होम हातूंत काम करून उपरांत ताणें स्वताची वैजकी वेवसाय सुरू केलो.

सहज सोपी भाशा शैली आशिल्ले ताचे ललीत विनोदी निबंध जायत्या नेमाळयांनी उजवाडाक आयल्यात. अशा निबंधाच्या *'मान्नी पुनव'* ह्या कोंकणी संग्रहाक गोवा कला अकादमी आनी साहित्य अकादेमी (१९७८) पुरस्कार मेळळयात. महाराष्ट्रांत राबितो करून आशिल्ल्या अकादेमी पुरस्कार प्राप्त लेखकांखातीर महाराष्ट्र शासनान 'महाराश्ट्र गौरव पुरस्कार' दिले (१९९०).दत्ताराम सुखटणकर हाकाय हो गौरव पुरस्कार प्राप्त जालो.

ताणें भारतांत तसो भारताभायर प्रवास केला. सदयाक तो मुंबय हांगा निवृत्त जीण जगतात.

- शिला कोळंबकार

## सुखठणकर, महेश्वरशास्त्री : (जल्म : १७११, माशेल - गोंय; मरण : १८१७, माशेल - गोंय).

एक विद्वान पंडित. ताचें सुरवेचें शिक्षण घरचे घराच जालें. संस्कृत भाशेचो तर तो प्रकांड पंडित आशिल्लो. ताच्या चरित्राविशीं खास अशी म्हायती मेळना. ताणें संस्कृतांत तेचपरी मराठींतय जायती ग्रंथरचना केली. ताचो म्हत्वाचो आनी अप्रुप असो ग्रंथ म्हळयार मोरोपंती मंत्रभागवताची 'सतोषिणी' नांवाची संस्कृत टीका. १८९६ वर्सा बेळगांवच्या 'मधुमक्षिका' ह्या मासिकांत ती छापून आयिल्ली.

ताच्या मराठी ग्रंथांत अमरकोशावयलो 'अमरविवेक' हो टीकाग्रंथ सगळयांत म्हत्वाचो समजप जाता. अमरकोशावयली ती एक म्हत्वाची टीका म्हणून मानपांत येताली. रघुनाथ शास्त्री तळेकर हाणें ही टीका १८४० च्या सुमाराक पुणेच्या सरकारी पाठशाळेच्या शिळा छापखान्यांत मुद्रित केल्ली.

संस्कृताचो अभ्यास करप्यांखातीर 'अमरविवेक' ही टीका इतली म्हत्वाची आशिल्ली, हें १८४५ ते १९०७ ह्या साठ वर्सांच्या काळांत हे टीकेच्यो धा-पंदरा आवृत्यो उजवाडाक आयल्यो ताचे वयल्यान कळटा.

महेश्वर शास्त्रीचो दुसरो म्हत्वाचो ग्रंथ म्हळयार जयदेवाच्या गीतगोविंद काव्यार मराठी गद्य टीका आनी समश्लोकी काव्यानुवाद. गीतगोविंद काव्यावयली ही टीका विठ्ठल सखारामशास्त्री अग्निहोत्री हाणें १८५३त मुद्रित करून उजवाडाक हाडली. ह्या दोन ग्रंथांभायर ताणें भगवद्गीतेचेर पद्यमय टीका, शंकराचार्याचे वाक्यसुधेचेर 'पानपात्रचषक' नांवाची गद्य - पद्य टीका, तशेंच अद्वैत मकरंद सिध्दांतचंद्रिका हाचेर टीका मुद्गलचार्याच्या आर्यांचेर टीका अशो कांय मराठी ग्रंथरचना महेश्वरशास्त्र्यान केल्यो.

पिरायेच्या निमाण्या काळांत अध्यात्मरामायणाचेर टीका बरोवपाचें काम ताणें हातांत घेतिल्लें पूण तें पुराय जावंक शकलें ना. ताचो नातू मोरुभट्ट हाणें तें काम पुराय केलें.

माशेल गांवांत आशिल्लें ताचें घर १९३५ मेरेन शाबूत आशिल्लें. महेश्वर शास्त्र्याउपरांत ताच्या वंशजाच्यो कांय पिढयो त्या घरांत रावताल्यो. पूण फुडें जेन्ना थंय कोणच रावना जालो तेन्ना करंडेशास्त्रीन महेश्वरशास्त्र्याचे यादीक १८९३ वर्सा त्या घरांत 'सारस्वत विद्यापीठ पुस्तकालय' स्थापन केलें.

- कों. वि. सं. मं.

## सुखठणकर, मोहनदास : (जल्म : २१ नोव्हेंबर १९३० म्हापसा).

एक परिश्रमी रंगकर्मी. १९५० वर्सा एस्. एस्. सी. जालेउपरांत १९५१ वर्सा नोकरी करून, मुखावयल्या शिक्षणाखातीर मुंबय गेलो. जयहिंद कॉलेजांतल्यान बी.ए. ऑनर्स ही पदवी संपादन केली.

नाटकाच्या मळार ताका नानू संझगिरी, मास्टर दत्ताराम, दामू केंकरे, विजया मेहता हांचें मार्गदर्शन मेळळें.

ताणें पयली वयली भुमिका केली ती 'लग्नाची बेडी' ह्या नाटकांत गोकर्णाची 'भाऊबंदकी' ह्या नाटकांत राघोबादादा, 'प्रेमसंन्यास' ह्या नाटकांत गोकुळ, 'वेडयाच्या चौकोनांत राजा', 'अंमलदार' नाटकांत नारभट, 'मत्स्यगंधांत चंडोल, 'लेकुरे उदंड झाली', दासोपंत सारकिल्ल्यो भुमिका सादर करून ताणें आपल्या नाट्यकलेचे उत्कृश्ट गूण दाखयल्यात. ताणें आतांमेरेन तीसांपरस चड नाटकांनी भूमिका केल्यात आनी तांची प्रयोग संख्या दोन हजारांचेर पावल्या. नाटका

वांगडाच सिनेमा आनी टी.व्ही. माळानीय ताणें आपलें अभिनयकुशळकाय सिध्द केल्या. १९९३ वर्सा गोमंतक मराठी अकादमीन मानद अधिसदस्यत्व दिवन गोंयचो कलावंत म्हण ताचो भौमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**सुखठणकर, रामचंद्र मल्हार** : (जल्म : १६७५; मरण : १७५४).

पेशव्याच्या काळांतलो एक हिशेबनीस. ताचो घराबो मूळचो गोंयचो पूण ताचो आजो आरवलीक वचून रावलो. थंय ताका कुळकर्ण मेळिल्लें. तरणे पिरायेचेर हें कुळकर्ण रामचंद्राकडे आयलें. थंय १७१० वर्सा ताचेर एक बगलांट आयलें आनी ताच्या घराचेर जप्ती आयली. तेन्नाच ताच्या बापायकय मरण आयलें.

देवाचेर ताचो खर विश्वास आशिल्लो. ताचेकडेन फक्त एक पावली उरिल्ली ती घेवन तो मंगेशी गेलो पूण त्या पैशांत देवाक अभिशेक करूंक मेळना जालो. अशा वेळार ताणें ती पावली तुळशीच्या पेडांत पुरून दवरली. उपरांत कुलदेवी शांतादुर्गेची भेट घेवन तो बद्द साताऱ्याक गेलो आनी थंय मामलेदाराकडे देवपुजेचें काम करूंक लागलो.

मामलेदाराचो हिशोबनीस मुजुमदार हाणें हिशोबांत भानगड करून तो आळ मामलेदाराचेर घालो आनी सरकारांत कागाळ केली. अशावेळार रामचंद्र मल्हारान हिशेब सारको करून मामलेदाराक वाटायलो.

ह्या वेळार बाळाजी विश्वनाथ हो पेशवो आशिल्लो आनी ताचो कारभारी अंबाजीपंत पुरंदरे आशिल्लो. ताणें रामचंद्र मल्हाराची हिशेबांतली कामगिरी पेशव्याच्या कानार घाली आनी ताची शिफारस केली. अशेतरेन रामचंद्राक पेशव्यांच्या दरबारांत प्रवेश मेळ्ळो.

पेशवाईंत हेर कामावांगडा हिशेबाची वेवस्थाय रामचंद्र पळेतालो. पेशवाईंत जमा-खर्च बरोवपाची ताणें जी एक शिस्त लायिल्ली तीच फुडें नाना फडणीस हाणें घेतली. रामचंद्र हाणें हिशोबांतल्यो जायत्यो अडचणी सोडयल्यो. माळव्याच्या वसुलीबाबतींत शिंदे, पवार, होळकर आनी पेशवा हांच्यांत वाद आशिल्लो. रामचंद्रान प्रत्येकाक वसुलीची टक्केवारी थरोवन हो वाद मिटयलो. बाजीरावाचे सांगणेन ताणें नानासाहेब आनी सदाशिवरावभाऊ हांकां शिक्षण आनी राजकारणाचे धडे दिले. पेशव्यांच्या दरबारांत ताका खुबूच मान आशिल्लो.

फुडें जायत्या वर्सांनी तो गोंयांत आयलो. मंगेशीं ताणें मोहरांचो अभिशेक केलो. अभिशेकाचो दर चार आणें असो थरयलो. तुळशीपेडांत पुरून दवरिल्ली पावली काडली आनी अभिशेकाची दक्षिणा म्हूण ती दान केली. मंगेशीं, कवळे आनी म्हार्दोळ ह्या देवस्थानाक जमनींच्यो नव्यो सनदी करून दिल्यो. भांगराचे अलंकार आनी रोख रकमो स्वता दिल्यो.

शिंद्यांकडेन ताचो बरो घराबो आशिल्लो. शिंद्यांचे राज्यस्थापनेक ताणें आदार दिलो. पेशव्यांखातीर ताणें जायत्या झुजांनीय वांटो घेतलो. तेखातीर ताका काशेगांवची जहागीर मेळ्ळी.

ताचो वाडो पुण्यांतल्या कसबा पेठेंतल्या गणपतीलागसार आशिल्लो. ताका सख्खो पूत नाशिल्लो. सदाशिव नांवाचो एक चलो ताणें पोसको घेतिल्लो. मरचेआदीं आपले आस्पतीचे तीन वांटे करून ताणें एक स्वताच्या पोसक्या भुरग्याक, दुसरो पेशवा सदाशिवराव भाऊक आनी तिसरो दानधर्माखातीर दवरिल्लो. सदाशिवराव भाऊक तो आपलो भुरगोच मानतालो.

- कों. वि. सं. मं.

**सुखठणकार, विनायक सदाशिव** : (जल्म : ३ मार्च १९०३, कोलवाळ; मरण : १८ सप्टेंबर १९७७, मुंबय).

गोंयचो नामनेचो लेखक. ताचे चवथी मेरेनचें मुळावें शिकप मराठींतल्यान पणजे जालें. उपरांत पांचवी, सवी यत्ता म्हापशेंच्या सारस्वत विद्यालयांत जातकच लिसेंवाचें शिक्षण पणजें जालें. तेन्नाच इंग्लीश शिकपाचो विचार ताच्या मनांत आयिल्ल्यान ताणें पुर्तुगेज शिक्षण सोडून धारवाडचे सरकारी शाळेंत प्रवेश घेतलो. महाविद्यालयीन शिक्षण पुण्याच्या फर्ग्यूसन महाविद्यालयांत घेवन ताणें स म्हयन्यांचो दूद उत्पादन अभ्यासक्रम पुरो केलो.



ताचो पींड लोकसाहित्याचो.त्या संदर्भांत गोंयच्या खेड्यापाड्यांतल्यान भोंवता आसतना ताका लार्गीच्यान गांवगिऱ्या गोंयचें दर्शन जावंक पावलें. थंयच ताच्या प्रादेशिक कथांचें बीज पडलें.

ताची 'कटू कर्तव्य' ही पयली कथा १९२६ वर्सा उजवाडायली. तशेंच 'सह्याद्रीच्या पायथ्याशी' हो कथासंग्रह १९३९ वर्सा प्रकाशीत जालो. मराठी साहित्यांतलो पयलो अधिकृत प्रादेशिक कथासंग्रह म्हणून टिकाकारांनी ताची नोंद घेतल्या.

ह्या कथासंग्रहाचें खाशेलेपण म्हणजे हातुंतल्या कथेंतल्या फाटभुंयेची प्रादेशिकता. गोंयच्या प्रदेशाचे फाटभुंयेचेर गोंयचें जिवीत इतकें प्रभविपणान पयलेंच फावट एका संग्रहाच्या रुपान मराठी वाचकांमुखार आयलें.

आनंद, चित्रमयजगत, पुरूषार्थ, मनोरंजन तत्त्वज्ञान, मंदिर, विद्यासेवक, रत्नाकर, ग्रहलक्ष्मी हिंद महिला, लोकशिक्षण, ह्या नेमाळयांनी ताच्यो कांय कविताय प्रकाशीत जाल्यात. ताणें वासंती

नांवाचो बालकवितांचो प्रतिनिधीक संग्रह भुरग्यांखातीर उजवाडायलो.

डॉ. श्रीधर व्यंकटेश केतकर हाच्या सहवासांत आयल्याउपरांत ताणें विद्यासेवक मासिकांत 'गोव्यातील जानपदगाणी', आनी पुर्तुगेज म्हाकवी लुईश दे कामोइश हाचें चरित्र आनी हेर गद्यलेखन केलें.

गोंयच्या लोकवेदाचेर आदारीत The Tales and Tellers of Goa हें इंग्लीश पुस्तक १९७४ वर्सा ताणें उजवाडा हाडलें.

ताचे जाई - जुई हे कथेचेर आदारीत 'देवदासी' हो चित्रपट ओरिएंट पिक्चर्स कॉर्पोरेशनान काडलो. 'महापुराची शिकवण' आनी 'पेशवाईंतलो रामशास्त्री', ह्या कथांचेर ताणेंच बरयल्ल्यो पटकथा घेवन पयलीं बॉम्बे टॉकीज हिमांशू रॉय आनी उपरांत प्रभातचे व्ही. शांताराम हाणें यत्न केलो. पूण प्रत्यक्षांत तें येवंक पावलें ना.

'बहोत दिन हुये' ह्या श्री वासन निर्मित चित्रपटाच्या पटकथेचो तो सहलेखक आशिल्लो. मद्रासच्या वास्तव्यांत ताणें तमीळ, चित्रपटाचें थोंडे भोव लेखन केलां.

सुरवठणकारान भुरग्यांखातीर खूब लिखाण केलां. हसता खेळता, बुध्दिविकास टागोर, टॉलस्टॉय, भगिनी निवेदिता, स्वामी रामतीर्थ, स्वामी विवेकानंद, गांधीजी, नेहरू हांच्या जीवनाविशीं ताणें बालवाङ्मय निर्माण केलां.

१९६२ च्या काळांत मद्रासाक ताणें इंग्लीश, तमीळ, तेलगू, हिंदी नेमाळ्यांनी विविध विशयांचें लेखन केलें. हांगाच आंध्रपत्रिकेंत पंदरा प्रकरणांतल्यान रामशास्त्राचेर कादंबरी बरोवन उपरांत ती पुस्तक रुपान प्रकाशीत केली.

१९७५ वर्सा ताका गोमंतक साहित्य संमेलनांत सुर्वणपदक भेटयलां.

- कों. वि. सं. मं.

**सुणो :** स्तनि - वर्गाच्या मांसाहारी गटांतल्या कॅनिडी कुळांतलो कॅनिस वंशाचो प्राणी.

सुणो हो लांडगो, कोलो हांच्या आकाराचो आसून, ताचे कुडीची रचणूक आनी सांगाडो हातूंत सारखेपण आसा. पूण रंग, कातडी, केंस हातूंत सुण्याचें वेगळेपण आसा. कांय सुण्यांची शेंपडी वयले वटेन वाटकुळी जाल्ली आसता. तर कांय सुण्यांची नीट आसता. तो आपल्या पावलांचेर नेट दिवन चलता. ताच्या फाटल्या पांयाच्या चपक्याक चार आनी फुडल्या पांयाच्याच्या चपक्याक पांच बोटां आसतात. ताच्या दातांची वट्ट संख्या बेचाळीस आसा.

सुण्याची उत्पत्ती लांडग्यासावन जाली आसुंये अशें मानतात. पुर्विल्ल्या काळासावन सुणो हो मनशाचो सांगांती आसा. सुरवातीचे रानटी अवस्थेंत मनीस उज्याचेर मांस शिजयतालो तेन्ना त्या मांसाक सुटपी वासाक लागून सुणो ताच्या म्हन्यांत येवन रावलो. मनीस ताका मांस दिवंक लागलो. मुखार तो मांस मेळोवपाखातीर मनशाक आदार करपाक लागलो आनी मनशाचो इश्ट आनी चाकर जालो, अशें पुर्विल्ल्या अवशेशांवयल्यान दिसून येता.

पुरापाशाण युगांतल्या पन्नास हजार वर्सां आदल्या गुहांतल्या कोंत्रायल्ल्या चित्रकामांत शिकारी मनशाच्या शेजाराक कुत्र्याच्यो वांकड्यो तिकड्यो आकृत्यो सांपडटात. मध्यपाशाण युगाचे सुरवेक ॲझीलियन संस्कृतींत डेन्मार्कामर्दी सुण्याचे अवशेश, सालुकी नांवाची सुण्याची जात ख्रि. पू. ७,००० ते ६००० वर्सांपयली इजिप्तांत आसली असो उल्लेख आयला. वैदिक वाङ्मयांत सुण्यासंबंदींचे उल्लेख महाभारतांत मेळटात. युध्दिष्टिरावांगडा इंद्राची सरभा नांवाचें सुणें आसलें. वेदकाळांत कांय कारणाक लागून सुण्याक अपवित्र मानलो तरी मुखार धार्मिक आनी सामाजिक दृश्टीन ताका कमी लेखीनासतना श्रीदत्तात्रेयाच्या सान्निद्यांत ताका स्थान दिवपांत आयलें.

इजिप्तांत सुणो मेल्यार घरांतलीं मनशा ताचो मरणविधी करतात. शिवाजी महाराजान आपल्या सुण्याची समाधी रायगडाचेर बांदल्या. शाहू महाराज मेल्याउपरांत ताच्या 'खंड्या' नांवाच्या सुण्यान चितेंत उडी घेतिल्ली.

सुणो हो प्राणी चडकरून मनशां आसतात थंय रावता. तेभायर मनशांय ताका आपल्या फायद्याखातीर पोसतात. पोशिल्ल्या सुण्यांचे जातीक कॅनिस फॅमिलिॲरिस ह्या जातिविशिश्ट नांवान वळखतात. सुण्यांच्या रानवटी जातींमर्दी ऑस्ट्रेलियांतल्या डिंगो, आफ्रिकेंतले केप हंटिंग, अमेरिकेंत कॅरॅसिसी, भारतांत ढोले आनी चीनांतली रॅकून ह्या जातींचो आस्पाव जाता. एका कुळांतले पूण हवामान, अन्न प्रकार आनी संकर जनन हाकालागून सुण्यांच्यो वेगवेगळयो जाती अस्तित्वांत आशिल्ल्यो. तातूंत विसाव्या शेंकड्यांत आनीक भर पडून तांचो आंकडो वाडत आसा. जगांतल्या सगळ्या सुण्यांच्या जातींची संख्या चारशेंच्या लागीं आसा असो अदमास आसा. आकार, वजन, रंग, छटा, केंसांची लांबाय, स्वभाव वैशिश्ट्या हांकांलागून जातींत वेगळेपण सांपडटा. सामान्यपणान शिकारी आनी बिनशिकारी अशे दोन वर्ग आसतात.

जगांतल्या वेगवेगळया प्रदेशांत पोशिल्ल्या सुण्यांच्या प्रजननांच्या तपशिलांत वेगळेपण मेळटा. सुणें एक वर्साचें जाल्याउपरांत वयांत येता. कांय कोलगांक पयलो ऋतुस्त्राव जाता आनी ह्याउपरांत दर स म्हयन्यांनी ऋतुचक्र सुरू जाता. ह्या काळांत जननेंद्रियांतल्यान रगत पडटा आनी ह्यावेळार मुतांतल्यान येवपी दर्पयुक्त पदार्थाकलागून सुणो (नर) कोलगाकडेन (मादी) आकर्शित जाता. ऋतुकाळ सुरू आसतना सुणें एकापरस चड नराक संयोग करूंक दिता. नर - मादयेच्या फलित संयोगाउपरांत ६२-६३ दिसांनी सुणें वियेता. ल्हान आकाराच्या जातीचें सुणें एक वा दोन जाल्यार व्हड जातीचें आठ ते धा पिलांक जल्म दिता. पांच वर्सांनी मादयेची जननक्षमता कमी जावंक लागता आनी आठ वर्सांनी पुराय नश्ट जाता.

**उपेग :** शिकारेच्या कामांत सुण्यांचो वेगवेगळे तरेन उपेग जाता. हाउंड जातीचे सुणे जमनीवयल्या सस्तन प्राण्यांच्या वासावयल्यान शिकार करपाक, ब्लड हाऊंड हे जातींतले सुणे खूब वरां पयलीं ते वटेन गेल्ले शिकारीची वासान फाट धरतात. सुकणीं मारपाक, वा धनयान मारील्लीं सुकणीं हाडपाक रिट्रिव्हर जात, बहिरी ससाण्याच्या शिकारेखातीर स्पॅनियल सुणो, झडप घालपाक टेरिअर सुणो उपेगी पडटा. अशे तरेन मनशान शिकारे खातीर सुण्याचो उपेग करून घेतला.

सुण्याचीं वास घेवपाचीं घाणेंद्रियां तीक्ष्ण आशिल्ल्याकारणान विशेश शिक्षण दिल्ल्या सुण्यांचो गुन्यांवकाराक सोदून काडपाक, मालमत्तेची राखण करपाक, गोरवांचे, मेंढरांचे कळप राखपाक, धनयांचे आज्ञेप्रमाण एका विशिश्ट जाग्यार एकठांय हाडपाक डोबरमन हे जातीचो उपेग जाता. बर्फाळ प्रदेशांत गाडयो ओडपाखातीर, कुड्ड्याक मार्ग दाखोवपाखातीर, संशोधन कार्यांखातीर, आनुवांशिकता आनी स्वभाव वैचित्र्य हांच्या अभ्यासाखातीर तशेंच वैद्यकिय उपचारात्मक संशोधनांत सुण्याचो उपेग करपांत आयला आनी मनोरंजन करपाखातीरय सुण्याचो उपेग जाता. चोरांपासून घर राखण करपाखातीर सर्वसादारण घरांत सुणो पोसतात.

**रोग :** सुण्याक दैहिक प्राकृतिक आनी संसर्गजन्य रोग जाता. डिस्टेंपर, सांसर्गिक यकृतशोथ, अलर्क रोग (पिशें लागप), नृत्यवात, सुण्यांचो उन्माद, लेप्टोस्पायरोसिस किट्टी जन्य जोर, कृमिजन्य अशे तरेचे जायते रोग सुण्यांक जातात. पिसावल्लो (रॅबीज जाल्लो) सुणो चाबत जाल्यार बलायकेक सामकें अपायकारक जाता. वेळार उपाय केलो ना तर मनीस मरपाक शकता. ते खातीर पाळीव सुण्याक थारावीक काळांत रॅबीजा आडचीं इंजेक्शनां दितात.

सुण्यांचें पयलें प्रदर्शन इंग्लंडांत न्यू कॅसल हांगा १८५९ वर्सा भरलें. १८८०त न्यूयॉर्क हांगा दुसरें प्रदर्शन भरून तातूंत २९ जाती आशिल्ल्यो. सुण्यासंबंदींचे कायदेशीर नेम करपाक आदार करप आनी कुत्र्यासंबंदींचे प्रश्न सोडोवप हीं कामां करपाखातीर 'केनेल क्लब ऑफ इंग्लंड' नांवाची संस्था ब्रिटनांत १८७३ वर्सा स्थापन जाली. 'अमेरिकन केनेल क्लब' ही संस्था १८८४ वर्सा स्थापन जाली आनी हेर देशांतय ह्याच कामाखातीर अशा स्वरुपाच्यो संस्था स्थापन जाल्यो.

भारतांत दोन 'केनेल क्लब'आसून तांच्या मार्फत शारांतल्यान सुण्यांचीं प्रदर्शनां आयोजित करतात. अमेरिका आनी हेर अस्तंत्या देशांत सुण्यासंबंदींची म्हायती प्रसारीत करपी नेमाळीं आनी तांच्यासंबंदी बरयल्ले स्वतंत्र ग्रंथ उपलब्ध आसात.

**रानसुणो :** कूळ : कॅनिडी, शास्त्रीय नांव : क्युऑन अल्पिनस. हाची लांबाय सादारणपणान ९० सेंमी. हो खूब केंसाळ प्राण आसून ताचें वजन २० किग्रॅ. मेरेन आसता. मादीचें वजन नरापरस उणें आसता. हो प्राणी मानशाळिल्ल्या सुणेवरी दिसता. ताचें शरीर लांबशें आनी लांडग्यावरी सडपातळ आसता. ताचे पाय आनी जबडो कांय प्रमाणात अशीर आसता. गावठी सुण्यापरस हाका एक एक दाड उणी आसता. हिमालयांत मेळपी रानटी सुणो चड तांबडो आसता. जाल्यार हेरकडे मेळपी जात चड फिकट आसता. भारताच्या द्विपकल्पांत ताचो रंग तपकिरी आसता.

मध्य आशिया, अलताई दोंगरासावन उदेंत आशियाचो वाठार, दक्षिण मँचुरिया, मलाया वाठार आनी भारतांतल्या रानांत रानसुणे मेळटात. भारतांत तीन जातीचे रानसुणे आसात.

रानसुणे जरी चडशे रानांनी मेळटा आसले तरी लडाख आनी तिबेट ह्या वाठारांत ते मेकळया मैदानाचेर मेळटात. रानसुणे चडकरून कळपांनी रावता. हातूंत एक वा जायतीं कुटुंबां आसतात. ताका लागून तांची टोळी जाता आनी ते सगळे मेळून व्हड प्राण्याची शिकार करपाक शकतात. वासाच्या आदारान ते आपलें भक्ष्य सोदतात.

तिबेट आनी लडाखांत ते मेंढरां आनी हरणा हाची शिकार करतात. काश्मीराच्या रानांत ते भारवोंर, कस्तुरी मृग आनी गोरल हांची शिकार करतात. हिमालयांत ताचें भक्ष्य ताहर हो प्राणी आसात. भारतांत मात तांचें अन्न चड करून हरणांच आसता. केन्ना केन्नाय व्हडल्यो टोळयो म्हशी आनी गवे हाचेरय घुरी घालतात. रानदुकरां, चित्ते, अश्वल आनी वाग हांकाय ते मारून खातात.

- कों. वि. सं. मं.

**सुतापुनव :** (पळेयात राखीपुनव).

**सुत्तपिटक :** एक बौध्द धर्मग्रंथ. हो पाली भाशेंत आसा. सुत्त म्हळयार सूत वा धागो आनी पिटक म्हळयार पेटिका वा परंपरा. हाचेवयल्यान सुत्तपिटक म्हळयार बुध्दवचनरुपी धाग्याची परंपरा. बुध्दान शिश्याक जेन्ना जेन्ना जे जे उपदेश केले ते ते सुत्तपिटकांत गुंथिल्ले आसात. तेचपरी बुध्दाच्या कांय मुखेल शिश्यांचो उपदेशूय ह्या ग्रंथांत आस्पाविल्लो आसा. सुत्तपिटक हो बुध्दवचनांचो सगळयांत म्हत्वाचो भाग आसा. ह्या सुत्तपिटकावरवीं सन आदीं ६ व्या वा पांचव्या शतमानांतल्या भारताची इतिहासीक, समाजीक आनी भुगोलिक परिस्थिती समजता त्या काळांतल्या जायत्या विशयांच्या गिन्यानाचो तो एक कोशच आसा. धर्म, दर्शन, साहित्य आनी जिवीत हे विशींचे गंभीर विचार सुत्तपिटकांत दिसून येतात.

सुत्तपिटकांत पांच विभाग वा निकाय आसात,ते अशे - दीघ, मज्झिम, संयुत्त, अंगुत्तर आनी खुद्दक. दीघ निकायांत कांय सुत्रां दीर्घ जाल्यार कांय लघू सुत्रां आसात. मच्झिम निकायांत जायतीं सुत्तां दीघनिकायापरस व्हड आसात. मज्झिम आनी संयुक्त ह्या निकायाची पद्दत आनी शैली बरीच वेगवेगळी आसा. संयुत्तांत

सुत्ताचें वर्गीकरण एका सामान्य नांवाखाल करपांत आयलां. अगुंत्तरांत कांय विनयाचे विशय आयल्यात. त्याकाळांत लेखनकला तितलीशी विकसित जावंक नाशिल्ली. देखून बुध्दाचीं वचनां ताचे शिश्य पाठ करताले आनी फुडें तीं वचनां तांच्या हेर शिश्यांक शिकयताले. ह्या बौध्द शिश्यांचे चड करून दोन पंथ आसुंये. ते आपलो विभेद स्पश्ट करपाखातीर स्वताक दीघभाणक आनी माज्झिम भाणक म्हण्टाले. ह्या निकायांचें विवरण अशें -

**(१) दीघ निकाय :** हो लांबलचक सुत्तांचो संग्रह आसा. बुध्दाचे जे उपदेश आकारान व्हड आशिल्ले ते ह्या निकायांत एकठांय केल्यात. हातुंतलें पयलें सुत्त ब्रह्मजाल हें म्हत्वाचें सुत्त आसा. हातूंत बुध्दाआदीं भारतांतले समाजीक आनी धर्मीक परिस्थितीचें चित्र पळोवंक मेळटा. ह्या सुत्ताच्या पयल्या भागांत त्या काळांतलो लोकांचो कुड्डो विश्वास, लोकप्रिय खेळ आनी मनोरंजनाचे प्रकार हांचें वर्णन मेळटा. दुसऱ्या भागांत दार्शनीक सिध्दांत आनी विश्वास हांचें दर्शन घडटा. ह्या निकायाच्या दुसऱ्या खंडांत आशिल्ल्या पयल्या सुत्तताचें नांव महाप्रदान आसून तातूंत गौतम बुध्दाआदींच्या सात बुध्दांची चरित्रांविशीं म्हायती आसा. महापरिनिव्वाण सुत्तंतांत गौतमबुध्दाच्या निमण्या दिसांचें वर्णन मेळटा. तिसऱ्या खंडांत इकरा सुत्तंतां आसून तातूंत चडकरून बौध्दंतर मतां आनी तांचे आचार हांचें वर्णन केल्लें आसा.

**(२) मज्झिम निकाय :** हातूंत मध्यम आकाराच्या सुत्तांचो संग्रह आसा. हातुंतलीं कांय उपदेश वचनां अशीं - (१) हांव ना, म्हजें ना, म्हाका आत्मो ना हो अनात्मवाद आनी अनासक्तीवाद हें सगळें धर्माचें मूळ आसा (२) भिक्षुनो तुमी म्हज्या धर्माचे वारस जायात. धनादी भोगाचे न्हय. तुमचेर म्हजी कृपा आसा. (३) भिक्षुनो शीलसंपन्न जावन विहार करात प्रतिमोक्षरुपी संयमान संयत जावन विहार करात. (४) लोळिल्ल्या वस्त्राचेर रंग चडना. पूण निवळ वस्त्राचेर तो चडटा. चित्त निर्मळ जातकच सुगती आपशींच मेळटा. (५) हे ब्राह्मणा, तूं जर फट उलयना, प्राणिहिंसा करिना; दिल्या बगर घेना, जाल्यार तुका गयेक वचपाचें कारण ना.

**(३) संयुक्त निकाय :** हातूंत ल्हान व्हड सगळया तरेच्या सुत्तांचो संग्रह आसून, तातूंत वट्ट २८८९ सुत्तां आसात. हातूंत बुध्द काळांतलें गांवगिरें चित्र पळोवंक मेळटा. हातूंत खंय खंय लोककथाय दिसून येता. हाच्या महावग्ग ह्या भागांत बुध्ददर्शित आर्य अश्टांगिक मार्गाचें पुराय विवरण मेळटा. परमज्ञान म्हळयार बोधी हाची स्मृती, धर्मगवेषणा, वीर्य, मोग, समाधी, उपेक्षा आनी प्रश्रब्धी अशीं सात आंगां आसात.

**(४) अंगुत्तर निकाय :** हातूंत पयल्या तीन निकायकांतलेच विशय आयल्यात. हाचें खाशेलपण म्हळयार हातुंतली संख्याबध्द शैली. हाचे एककनिपात, दुकनिपात, तिकनिपात अशे इकरा निपात आसात. शैली आनी विशयाचे नदरेन हो निकाय म्हत्वाचो आसा.

**(५) खुद्दक निकाय :** हातूंत ल्हान ल्हान ग्रंथाचो संग्रह मेळटा. हातुंतलो कांय भाग विशध्द पद्यात्मक जाल्यार कांय भाग, गद्य - पद्य अशा स्वरुपांत आसा. ह्या निकायांत जे विशय आयल्यात ते अशे - (१) जातक (२) निद्देस (३) पोटिसम्भिदामग्ग (४) सुत्तनिपात (५) धम्मपद (६) उदान (७) इतिवुत्तक (८) विमानवत्थू (९) पेतवत्थू (१०) थेरगाथा (११) थेरीगाथा.

- कों. वि. सं. मं.

**सुदर्शन चक्र :** पुराण काळांतलें एक अस्त्र. त्रिपुरासुर वधाच्या वेळार महादेवान सगळे देव, तीर्थां, पंचमहाभूतां, दिव्यवखदां, आदींचे शक्तीपसून तांची निर्मणी केली अशी काणी पुराणांत आसा. महादेव हें चक्र आपल्या माथ्याचेर दवरतालो. फुडें हें चक्र आपल्याक मेळचें, अशें विष्णुक दिसपाक लागलें. ताणें तेखातीर शिवाची आराधना केली. ताणें दिसपटीं शिवाक एक हजार सूर्यकमळां ओंपपाक सुरवात केली. पूण एकदां एक सूर्यकमळ कमी पडलें. विष्णुन तेन्ना रोखडोच आपलो एक दोळो कोंचून काडलो आनी 'नेत्रकमळ' ओंपून पुजेची पूर्तताय केली. विष्णुची ही व्हड् भक्ती पळोवन शिव संतुश्ट जालो आनी ताणें प्रकट जावन विष्णुक जाय तो वर मागपाक सांगलें. तेन्ना विष्णून सुदर्शन चक्र मागलें आनी शिवान तें त्या खिणाक ताका दिलें. त्या दिसापसून सुदर्शन चक्र हें विष्णुचें आनी फुडाराक विष्णुन कृष्णावतार घेतलेउपरांत श्रीकृष्णाचें एक प्रभावी अशें अस्त्र थारलें. सुदर्शनाक स आरे आसून ताची नाभी वज्रायीच आसा. ह्या दरएका आऱ्याचेर 'सहस्त्रार हुं फट्' हीं उतरां कोरांतल्यांत अशें मानतात. तशेंच हें चक्र एकदां मोखून मारल्या उपरांत दुस्मानांचो नाश करून मोखून मारतल्याच्या हातांत परत येता, अशीय आख्यायिका आसा.



श्रीकृष्णाक हें चक्र अग्नीन वरुणाकडल्यान हाडून दिलें, अशें वर्णन महाभारतांत आसा. जरासंध मथुरेचेर चाल करून आयलो तेन्ना हें पयले खेप श्रीकृष्णांक मेळळें तर शतधन्व्याच्या वधाखातीर कृष्णान तें पयले खेप वापरलें. इंद्र, बाणासुर, पौंडूक हांचेवांगडा जाल्ल्या झुजांतय कृष्णांन ताचो उपेग केल्लो. शिशुपालाचो वध कृष्णान सुदर्शन चक्रानच केल्ल्याची कथा कृष्णान एकदां राहूचो हल्लो आडावपाखातीर चंद्र - सूर्याकच हें चक्र दिलें, अशीय एक कथा पुराणांत आसा. अश्वथाम्यानय ब्रह्मास्त्राच्या बदला कृष्णाकडे हें चक्र मागिल्ल्याचीय एक काणी आसा.

भागवतांतले दुर्वास अंबरीष कथेंतय सुदर्शनाचें व्हडपण वर्णीलां. भागवताचें ९व्या स्कंधांतलें ३ ते ११ श्लोक ह्या सुदर्शनाचें महात्म्य सांगपी आसात तेंच पुराणांत सुदर्शनचक्र हें विष्णुचें वक्रस्वरुपी मन आशिल्ल्याचें म्हळां.

वामन पुराणांत सुदर्शन चक्राचो एक नवो आशय उक्तो केला. सुदर्शनचक्र हें काळचक्र जावन आसा. तें बारा आऱ्यांचें आनी स नाभींचें आसा, हीं बारा आरीं म्हळ्यार बारा म्हयने आसून ते वीज, अग्नी, सोम, मित्र, वरूण, इंद्र, इंद्राग्नी, वायू, विश्वदेव, प्रजापती धन्वंतरी आदी बारा दैवतांचें फुडारपण करतात, तर स नाभी ह्यो ऋतूंचें प्रतिक अशें मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**सुदान :** आफ्रिकेंतलो सगळयांत व्हडलो देश. आफ्रिका खंडांत ताचो उत्तरेकडेन आस्पाव जाता. पिकाळ देग आशिल्ली नायल न्हंयेची देणगी सुदानाक मेळळया. देशाचे उत्तरेक इजिप्त, उदेंतेक तांबडो दर्या आनी ईथिओपिया, दक्षिणेक केनिया, युगांडा आनी झायरे, अस्तंतेक मध्य आफ्रिका आनी च्याड, जाल्यार वायव्येक लिबिया आसा. क्षेत्रफळ २,५०५,८१३ चौ.किमी. उत्तर - दक्षिण चडांत चड लांबाय २,०५० किमी. आनी उदेंत - अस्तंत रुंदाय १,८५० किमी. लोकसंख्या - २८,९००,००० (१९९१). खारटूम हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे उत्तर, मध्य आनी दक्षिण सुदान अशे तीन वांटे केल्ले आसात. देशाचो उत्तरेकडचो भाग हो मुखेलपणान रेंवट आसून, सहारा वाळवंटाचो आस्पाव तातूंत जाता. तांबड्या दर्याची देग ही मुखेलपणान दोंगरीच आसा. जबाल अबयाद आनी बादी होवार ह्या पठारी प्रदेशांचो आस्पाव ह्या भागांत जाता. जबाल पठाराची दर्याथळासावन उंचाय ९०० ते ३००० मी. इतली आसा. जाल्यार वादी होवार पठाराची उंचाय १,४०० मी. मेरेन वाडल्या.

देशाचो मदलो प्रदेश हो मुखेलपणान सपाट चरोव मळांचो भाग. अल् जझिरा हो पिकाळ भाग तातूंत येता. न्युबा पर्वतीय प्रदेशाचो आस्पाव तातूंत जाता. जबाल माट्रा हो दोंगरी प्रदेश देशाचे अस्तंतेक आसा.

सुदानाचो दक्षिणेकडचो चडसो भाग रानाखाल आसा. नायल न्हंयेक येवपी हुंवारांक लागून तयार जाल्ले सपाट भूंयेचोय आस्पाव तातूंत जाता. दक्षिणेकडेन देशाचे शिमेर पर्वतांवळी पातळळयात. ह्या दोंगरावळींत आशिल्लें माऊंट किन्येटी हें देशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. नायल ही देशांतली मुखेल न्हंय.

**हवामान :** सुदानचें हवामान विंगड विंगड प्रकारचें आसा. उत्तरेक रेंवाट प्रदेशांनी वर्सुकी पावसाचें प्रमाण फकत १० सेंमी. आसा. गिमाच्या दिसांनी ह्या प्रदेशांतलें सरासरी तापमान ४३° सॅ. उरता. केन्ना केन्नाय तें ५२° सॅ. मेरेन वाडटा. पूण शिंयांच्या दिसांनी तें १६° सॅ. मेरेन देंवता. देशाच्या मध्य भागांत वर्सुकी पावस १० ते ८० सेंमी. इतलो पडटा. जाल्यार तापमान २३° सॅ. ते ३२° सॅ. हांचेमदीं उरता. देशाचे साप्प दक्षिणेक वर्सुकी पावस ८० ते १४० सेंमी. इतलो पडटा. देशाच्या हेर भागांपरस दक्षिणेक तापमान उणें उरता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** भूंयरचणूके प्रमाण वनस्पतीचे प्रकार मेळटात. उत्तरेक मुखेलपणान रेंवाट प्रदेशांनी जावपी वनस्पत सांपडटा. मध्य भागांतल्या सपाट प्रदेशांनी वेगवेगळया प्रकारचें तण वाडटा जाल्यार दक्षिणेच्या पर्वतीय प्रदेशांनी दाट रानां आसात.

हांगाच्या रानांनी शींव, बिबळो, चितो, हत्ती, जिराफ, झेब्रा, रान गाढव, रान रेडो, गेंडो, हिप्पोपोटॅमस, रान बोकडो, वेगवेगळयो माकडाच्यो जाती मेळटात. हांगा सांपडपी सवण्यांनी बुशटार्ड, रान कोंबो, साबार तरेचे तितर, हांयस, बळार, ईजिप्ती गिधाड, पाणकोळी, खारीक सवणें, शेरूक, तशेच साबार तरेच्या दर्या सुकण्यांचोय आस्पाव जाता. सरपटपी मोनजातींत मानगें, साबार तरेचे शेडु आनी विखयाळे तशेंच बिनविखयाळया सोरपांचो आस्पाव जाता.

**इतिहास :** पुर्विल्ल्या काळा सावन म्हळयार इसवी सना पयलीं ७००० आदीं सावन सुदान देशांतले नायल न्हंयचे देगेर लोक रावताले हाचे पुरावे मेळळयात. फुडें इसवी सन पयलीं ४००० च्या सुमाराक ते खोंपी बांदून रावपाक लागले. तशेंच शेतवड वेवसायावांगडा ते गोरवांय पोसपाक लागले. उपरांत मुखेलपणान तांचो राबितो देशाचे उत्तरेकडच्या न्युबिया प्रदेशांत आशिल्लो. मुखार इ.स. पयलीं २६०० च्या सुमाराक इजिप्ती लोकांनी न्युबियेचेर आपलो शेक बसयलो. उपरांत इजिप्ती लोकांची नवी नागरी संस्कृती न्युबियेंत नांदपाक लागली. इजिप्तीयांनी तिका कुश संस्कृती अशें नांव दिलें. फुडें कुशांचें स्वतंत्र राज्य अस्तित्वांत आयलें. पूण इ.स. ३५० त कुशांचो अस्त जालो. उपरांत ५०० त इजिप्ती मिशनरीन दक्षिण इजिप्त आनी उत्तर सुदानच्या लोकांक बाटोवन तांकां किरिस्तांव केले. फुडें इ.स. ६०० च्या मध्याक अरबांनी इजिप्ताचेर आपलो शेक बसोवन, न्युबियेचेरूय घुरयो घालपाक सुरवात केली. त्याच काळांत अरबांनी न्युबियेच्या लोकांकडेन वेपारी कबलात केली. उपरांत अरबांचे वेगवेगळे पंगड न्युबियेंत येवन ते थळाव्या बायलांकडेन लग्न जाले. फुडें अरबी वेपारी आनी धर्मगुरूय सुदानांत रिगले. पंदराव्या शेंकड्याचे सुरवेक सुदानाचे उत्तरेकडचे किरिस्तांव राज्य मुसमानांच्या शेकातळा गेलें. फुंज ह्या काळया कातीच्या मुसलमानांनी १५०० त पुराय सुदानाचेर आपलो शेक बसयलो. तांच्यावांगडा दिन्का, शिल्लूक, न्युएर आनी आझान्दे हे आफ्रिकी खापरीय थंय रावपाक लागले.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत इजिप्तीयांनी फुंजांचेर

जैत मेळयलें. उपरांत तांणी पुराय सुदानाचेर जैत मेळयलें. १८८१ त मुहम्मद अहमद ह्या सुदानी मुस्लीम धर्मगुरून आपल्याकच सुदानचो माहदी नेमून, ताणें इजिप्ती लोकांआड बंड उबारलें. सुदानी मुसलमानांनी ताका आपलो पुराय तेंको दिल्लो. १८९८ त ओमडूरमनच्या झुजांत ब्रिटन आनी इजिप्तीयांनी जोड मोहिम काडून सुदानींचो पराभव केलो. ब्रिटन आनी इजिप्तान एकठांय येवन सुदानाचेर राज्य करपाची कबलात केल्ली. पूण जैत मेळळ्या उपरांत थंय ब्रिटिशांनी आपलोच गव्हर्नर जनरल आनी हेर वरिश्ठ अधिकारी नेमले.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन सुदानी लोकांनी ब्रिटीश राजवटीक विरोध करपाक सुरवात केल्ली. कांय लोकांनी इजिप्ती राजवटीक तेंको दिल्लो. पूण हेरांनी पुराय स्वातंत्र्याची मागणी केल्ली. १९२४ त सुदानी सैन्यान इजिप्ती फुडारपणाखाल ब्रिटिशांआड उठाव केलो. पूण ब्रिटिशांनी तो मोडून उडोवन चडशा इजिप्ती अधिकाऱ्यांक सुदानांतल्यान धांवडावन घाले. १९३६ त ईजिप्त आनी ब्रिटिशांभितर कबलात जावन परतून एकठांय येवन ते सुदानाचेर शेक गाजोवपाक लागले. १९४० ते १९५० ह्या काळांत सुदानी स्वातंत्र्य चळवळीक नेट आयलो. १९५३ त ब्रिटन आनी इजिप्तान सुदानाक स्वराज्य दिवपाचें मान्य केलें. १९५५ त सुदानी संसदेंत स्वराज्य दिवचें म्हूण भौमतान मान्य जालें. १ जानेवारी १९५६ दिसा सुदानाक स्वातंत्र्य मेळ्ळें.

स्वातंत्र्या उपरांत सुदानच्या दक्षिण आनी उत्तर फुडाऱ्यांभितर शासकीय अधिकारावयल्यान, तशेंच भाशावाद, वांशीक आनी धर्मीक भेदांवयल्यान झगडीं सुरू जालीं. दक्षिण फुडाऱ्यांनी अरबी राज्यभास करपाक विरोध केल्लो. अशे रितीन सुदानाच्या पयल्या स्वतंत्र सरकाराक दोनूय विभागांक एकठांय हाडपाक अपेश आयलें. हाचो परिणाम म्हळयार जनरल इब्राहीम आबुद ह्या लश्करी अधिकाऱ्यान सगळीं सरकारी सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. ताणें साबार राजकीय फुडाऱ्यांक बंदखणींत दवरून, सगळ्या राजकीय पक्षांचेर बंदी घाली. आबुद हाणें दक्षिणेकडच्या फुडाऱ्यांकडेन एकठांय येवन वावूरपाचे खूब यत्न केले. पूण ताकाय यश आयलें ना. १९६४ त शिक्षक, विद्यार्थी, वकील आनी हेर साबार संघटनांनी देशव्यापी संप घडोवन हाडून आबुदाक सत्तेवयल्यान देंवयलो. उपरांत नव्यान स्थापीत केल्ल्या सरकाराकय सुदानचे मुळावे प्रस्न सोडोवपाक अपेश आयलें. १९६९ त कॉलेनोल गाफर निमेरी ह्या लश्करी अधिकाऱ्यान सत्ता आपल्या हातांत घेतली. ताणेंय राजकीय पक्षांचेर बंदी घालून साबार वरीश्ठ अधिकाऱ्यांक बंदखणींत दवरले. ऑक्टोबर १९७१ त निमेरी सुदानचो राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताणें दक्षिणेंत सरकाराआड जावपी सगळीं बंडां मोडून उडोवन १९७२ त थळाव्या लोकांच्या हातांत सत्ता दिली. १९७३ त सुदानान नवें संविधान आपणायलें. नव्या संविधानाप्रमाण राश्ट्राध्यक्षाक चड अधिकार दिल्यात, तशेंच सुदानी भौशिक संस्था ह्या एकाच पक्षाक मान्यताय दिवन, निमेरी ताचो मुखेली म्हूण वावूरतालो.

निमेरीन १९८३ त सबंद सुदानांत इस्लामीक कायदो लागू केलो. तशेच दक्षिण विभागांतलें थळावें शासनूय काडून घेतलें. दक्षिणेंतल्या लोकांनी ह्या दोनूय गजालींक खर विरोध केलो. दक्षिणेंतल्या गनिमी झुजारी पंगडान सरकारी इमारतींचेर धुरयो घालपाक सुरवात केली. ह्याच काळांत देशाची अर्थीक स्थितीय साप्प इबाडिल्ली. हाका लागून देशव्यापी संप आनी बंडां जावपाक लागलीं. १९८५ त जनरल अब्दुल रहेमान सुवार एल् दहाब हाच्या फुडारपणाखाल लश्करी उठाव जावन, तांणी निमेरीक सत्तेभायरो केलो. अब्दुलान सुदानचें विधिमंडळ बरखास्त करून सुदानी भौशिक संस्थेचेर बंदी घाली. पूण हेर राजकीय पक्षांवयली बंदी काडून ताणें नागरी प्रशासनाखातीर वेंचणूक घेवपाची घोशणा केली. एप्रिल १९८६ त नव्या विधिमंडळाखातीर वेंचणूक जाली आनी संमिश्र सरकार सदीक आल् माहदी हाच्या फुडारपणखाला सत्तेर आयलें. पूण १९८९ त ब्रिगेडिअर जनरल ओमर हसन अहमन अल् बशीर हाच्या फुडारपणाखाल लश्करी उठाव जावन, ताणें प्रधानमंत्री सदीक् हाका सत्तेभायरो केलो. उपरांत अल् बशीर हाणें राश्ट्रीय विधिमंडळ बरखास्त करून ताचे सुवातेर १५ वांगड्यांचें लश्करी काउन्सिल उबारलें. ताणें देशाचें संविधानूय बरखास्त करून सगळ्या राजकीय पक्षांचेर कायद्यान बंदी घाली. नव्या सरकारान दक्षिणेंतल्या विद्रोही पंगडांकडेन बरे संबंद दवरपाचे खूब यत्न केले. पूण विद्रोही पंगडांनी झगडीं चालूच दवरलीं. हाचो परिणाम म्हळयार दक्षिणेक अन्न - धान्याची पुरवण जायना जाली. लोक उपासमारीन मरपाक लागले. साबार सुदानी लोक आपलो गांव सोडून उत्तरेक वा परदेशांत रिगले. उत्तरेक निर्वासितांची संख्या वाडत रावली. खूब संख्येन आशिल्ल्या निर्वासितांक नेमान अन्न आनी वखदांची पुरवण करपाक सरकाराक अपेश आयलें. हाका लागून निर्वासितांखातीर उबारिल्ल्या रावतिकांनी रोगांच्यो धामी पातळावन खूब लोकांक मरण आयलें.

**अर्थीक स्थिती :** अर्थवेवस्थेचे नदरेन सुदान हो मागाशिल्लो देश. देशाची अर्थवेवस्था मुखेलपणान शेतवडीचेरूय आदारल्या. उद्येग - धंदे, व्हड शेतां, येरादारी आनी संचारणाचेर सरकारी ताबो आसा.

देशांतले ७०% कामगार शेतवडींत वावूरतात. वट्ट राश्ट्रीय उत्पादनांत शेतवडीचो सुमार ४०% वांटो आसता. कापूस हें देशांतलें मुखेल पीक. हेर पिकावळींत गमाचीं फळां, कड्डणां, भिकणां, तिळयो, सोरघम, मको, गंव, एरंडेल आनी उंसाचो आस्पाव जाता. सद्या चडशी जमीन शिंपणावळीखाला हाडल्या. पशुपालन होय सद्या गांवगिऱ्या वाठारांतलो म्हत्वाचो वेवसाय जावन आसा. पशुधनांत गोरवां, मेंढरां, बोकडां आनी उंटांचो आस्पाव जाता. खाजूर, आंबे, पेरां, संत्रां आनी केळीं हीं देशांत जावपी मुखेल फळां. रानांसावनय देशाक बरी येणावळ मेळटा. नायल न्हंय आनी तांबड्या दर्यांत

नुस्तेंमारी व्हड प्रमाणांत चल्ल्या. पूण आधुनिक बोटींच्या उणावाक लागून देशाची गरज भागोवपा इतलेंच नुस्तें मारप जाता. सद्या थोड्या प्रमाणांत बऱ्या नुस्त्याची निर्यात जाता.

उद्देग - धंद्यांत देशांतल्या वट्ट कामगारांतले सुमार १0% कामगार वावूरतात. देशाचे वट्ट येणावळींत तांचो सुमार १५% इतलो वांटो आसता. देशाच्या उद्देगांत शिमीट, सारें, प्रक्रिया केल्लें अन्न, बूट, साकर, कपडो आनी खनीज तेलाचे वेगवेगळे पदार्थ हांचो आस्पाव जाता. देशांतले चडशे कारखाने नायल देगणांतल्या खारटोम आनी एल् गेझीरा शाराभोंवतणीं आसात. देशांत मेळपी खनीजांनी क्रोमीयम, भांगर आनी जिप्समाचो वांटो म्हत्वाचो आसा. देशांत तांबें, मँगनीज, खनीज तेल, रुपें, सल्फॅट, टंग्स्टेन आनी युरोनियमाचेय सांठे आसात. पूण भांडवलाच्या अभावी आनी यादवी झुजांक लागून तें फाव त्या प्रमाणांत काडप जायना.

देशांतल्यान निर्यात जावपी म्हालांत शेतकी म्हालाचो ९५% वांटो आसता. कापूस, गम फळां, गोरवां, भिकणां, तिळयो आनी सोरघमाची चड निर्यात जाता. जाल्यार खनीज तेल आनी अवजड मशिनांची आयात जाता. मुखेलपणान चीन, फ्रांस, जर्मनी, ग्रेट ब्रिटन, इटली आनी साउदी अरेबिया ह्या देशांकडेन सुदानचे वेपारी संबंद आसात.

**येरादारी आनी संचारण :** देशांतल्या रेल्वेमार्गांचेर सरकाराचें नियंत्रण आसा. देशाच्या आंवाठा मानान रेल्वे मार्ग आनी रस्त्यांचें प्रमाण खूब उणें. परदेशी वेपार मुखेलपणान रेल्वे मार्गांतल्यानच जाता. दक्षिणेपरस उत्तर विभागांतले रस्ते बरे आसात. देशांतल्या १% परस उण्या लोकांकडेन मोटारी आसात. राश्ट्रीय हवाई मार्गावरवीं देशाभितल्ली आनी परदेशी विमान येरादारी जाता. दक्षिणेक न्हंयेंतल्यान जावपी येरादारीक म्हत्व आसा. 'पोर्ट सुदान' हें तांबड्या दर्यादिगेर आशिल्लें सुदानचें एकूच म्हत्वाचें बंदर. सबंद देशांत म्हत्वाचीं अशीं फकत पांच दिसाळीं उजवाडा येतात. हेर नेमाळयांचोय आंकडो खूब उणो आसा. सरासरी देशांतल्या पंदरा लोकांक एक रेडिओ संच पडटा जाल्यार १% परस उण्या लोकांकडेन टि.व्ही. संच आसात.

**लोक आनी समाजजीण :** १९९१ चे जनगणने प्रमाण देशाची लोकसंख्या २८,९00,000 इतली आसली. सुमार पन्नास टक्के लोक आपल्याक अरबी समजतात. चडशे अरबी लोक देशाच्या उत्तर भागांत रावतात. उत्तरेक रावपी सुदानच्या हेर वांशीक गटांत न्युबायन, बेजा, फर हांचो आस्पाव जाता.

हेय लोक ल्हव ल्हव अरबी भास आनी संस्कृती आपणावंक लागल्यात. खाप्री लोक दक्षिणेकडेन रावतात. दिन्का, न्युएर, शिल्लूक आनी अझान्दे हे तांच्यांतले मुखेल पंगड.

सुदानचे तीन चतुर्थांश लोक सुन्नी मुस्लिम आसून, देशाच्या उत्तर आनी मध्य भागांत तांचो चड राबितो आसा. दक्षिणेक रावपी सुदानी हे मुखेलपणान किरिस्तांव धर्मी आसात. कांय थळावे पंगड आयजूय आपल्या पारंपारीक धर्माप्रमाण वावुरतात. गांवगिऱ्या वाठारांनी लोकांची दाटाय चड आसा. लोक पारंपारीक तशेच आर्विल्लो भेसूय करतात. चडशीं बायलां जीं अस्तंती भेस करतात, तीं वयर टाऊब हो पारंपारीक बुरखो घालतात. दादले लांब झगो घालतात. ताका जल्लाबिया म्हण्टात. माथ्याक घालतात त्या धव्या कुर्पाणाक इमामा म्हण्टात.

शिक्षणीक मळार हो देश खूब फाटसार आसा. शिक्षण फुकट आसून लेगीत थोडींच भुरगीं शाळेंत वतात. कुशळ शिक्षकांचीय उणीव आसा. पुराय देशांत फकत पांचूच विद्यापिठां आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**सुदीर :** एक जात. सुदीर लोकांची चडशी वसती कानडा जिल्ह्यांतल्या येल्लापूर, हल्ल्याळ आनी सुपा ह्या जाग्यांनी आसा. मुळांत आपूण कोल्हापूरचे आशिल्ल्याचें ते सांगतात. थंयच्यान ते गोंयांत येवन स्थायिक जाले. पूण पुर्तुगेजांनी सुरू केल्ल्या इन्क्विझीशनाच्या काळांत थंयच्यान ते कानडा जिल्ह्यांत गेले.

ह्या लोकांत अस्नोडकार, बांदोडकार, बेतकार, बोरकार अशे बावीस पोटभेद आसून तांच्यांत परस्पर लग्नसंबंद जायनात. एकाच आडनांवाच्या लोकांमदीं लग्नां जायनात.

हे लोक स्मार्त. ब्राह्मणांच्या सगळ्या देवदेवतांची आनी स्थानिक देवतांची ते पुजा करतात. म्हातारपणांत मेल्ल्या दादल्यांच्यो भांगराच्यो वा चांदीच्यो प्रतिमा करून देवळांत दवरतात. सणा - परबांवेळार तांची खास अशी पुजा करतात. शृंगेरीचो शंकराचार्य तांचो धार्मिक गुरू.

ह्या लोकांत चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. चलयेचो बापूय गरीब आसल्यार चल्याचो बापूय ताका अर्थीक आदार करता. तातुंतल्यान मागीर चलयेचो बापूय न्हवऱ्याखातीर मुंडाशें, मुदी बी वस्तू घेता. लग्नाचो म्हूर्त पुरोयत काडून दिता. व्हंकलेच्या आनी न्हवऱ्याच्या घरा माटोव घालतात. न्हवरो - व्हंकलेक आपापल्या घरा तेल - हळद लावन न्हाण घालतात. लग्नाच्या दिसा न्हवरो व्हंकलेच्या घरा वता. म्हूर्ताच्या वेळार व्हंकल - न्हवरो एकामेकाच्या गळयांत हार घालतात. हो लग्नांतलो म्हत्वाचो विधी. ताचे उपरांत धारे विधी आनी विवाहहोम जाता. मागीर जमिल्ल्या लोकांक जेवण घालतात.

विधवांक परत लग्न जावपाक मेळटा. अशीं लग्नां फकत रातचींच जातात. ह्या वेळार पयल्या घोवान दिल्ल्यो भांगराच्यो वस्ती, कपडे तिका परत करचे पडटात. मागीर मिराशी (देवळाचो अधिकारी) तिच्या गळयांत मंगळसूत्र बांदता. जमिल्ले लोक न्हवरो - व्हंकलेचे तकलेर अक्षदा उडयतात आनी लग्न सुवाळो सोंपता.

मेल्ल्या मनशांक हे लोक लासतात. देवी, पटकी ह्या रोगांनी मेल्ल्यांक आनी बारा वर्सां सकयल्या मेल्ल्या भुरग्यांक पुरतात. मेल्ल्याच्यो अस्थी आनी गोबर उदकांत सोडटात. धा दीस सुतक पाळटात. तिसऱ्या, इकराव्या आनी बाराव्या दिसा मृतात्म्याक अन्न ओंपतात. हे लोक श्राध्द करीनात. पूण म्हाळ मात करतात.

हे लोक शेती, शेतमजुरी, घरकाम सारकिल्ले वेवसाय करतात. आधुनिक काळांतल्या बदलांकडेन तांचो संपर्क आयिल्ल्यान, तांच्या रिती रिवाजांत जायते बदल घडल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**सुपारी** : (पळेयात माडी).

**सुब्रह्मण्य** : दक्षिणेंतलो एक नामनेचो देव. हाका मुरूगन अशेंय म्हण्टात. ताचे बायलेचें नांव वल्लियम्म. ताचें वाहन मोर. हाचीं देवळां चडशीं दोंगराच्या पठाराचेर आसतात. तमिळनाडूंतल्या मदुराय जिल्ह्यांतल्या पळणीलागींच्या वराहगिरीचेर हाचें देवूळ आसा. शुध्द सश्ट सुब्रह्मण्याची पुजा तीथ मानतात.

शिल्पसार ह्या ग्रंथांत सुब्रह्मण्याचो उल्लेख सुब्बराय असो आसा. हाची मूर्त षण्मुख, त्रिनेज, मयूरवाहन, तशेंच शक्त, वज्र आनी खड्ग धारण करपी करची अशेंय त्या ग्रंथांत सांगलां. शिल्पसंग्रह ह्या ग्रंथाप्रमाण तो ब्रह्मचारी आसलो तरी सगळे ताका घरदार आशिल्लोच समजतात. शैव संप्रदायांतल्या स्कंदाकडेन जांव कार्तिकेयाकडेन हाचे गूण धर्म जुळटात. स्कंदाच्यो कांय कथाय सुब्रह्मण्याक जोडिल्ल्यो आसात.

हाका सोरपांचो प्रतिनिधी मानला. सोरोप हेंच ताचें प्रतिक. सोरपाच्या रुपांत सुब्रह्मण्याक पुजतात ही वस्तुस्थिती सुब्रह्मण्य नांवांतलें गुपीत उलगडपाक उपेगी थरता. सुब्रह्मण्य ह्या नांवाचें एक स्पश्टीकरण सांपडटा, तें अशें - सुब्बर = सोरोप आनी मणि = व्हड. सुबरमणि ह्या मणिप्रवाल शैलींतलें तमिळ उतराचें ध्वनिसारकेपणान केल्लें हें कृत्रिम संस्कृतीकरण आसून त्या उतराचो मूळ अर्थ नागमणी म्हणजे नागराज वा नागश्रेश्ठ असो आसा.

हो मूळचो क्षेत्रपाल ह्या वर्गांतलो आसुंये असोय एक दुबाव आसा. सुब्रह्मण्याचें दुसरें नांव मुरूग आसून आपल्या भक्तांचेर कृपा करपाखातीर तो तांकां सोरपाच्या रुपांत दर्शन दिता असो सगळेकडेन भावार्थ आसा. सोरपाचें दर्शन घडल्यार मुरूगन देवाचें दर्शन घडलें अशें सगळे दाक्षिणात्य मानतात. दक्षिणेंत जायत्या जाग्यांनी रोयणीच्या वांगडा पुजा करपांत येवपी 'सुब्रह्मण्य' जरी आयज 'स्कंद - कार्तिकेय' मानतात तरीय मुळांत तो सोरपांचोच देव. ताचें 'सुब्रह्मण्य' हें नांवय सोरोपवाचक आसा आनी दक्षिणेंत स्कंदरूप पाविल्लो नामनेचो क्षेत्रपाल देव 'मुरूगन' हाकाय स्थानिक लोक नागरुपांतच भावार्थान पुजतात. मुरूगसुब्रह्मण्य - नाग अनुबंध क्षेत्रपाल देवतांचो खास असो बोध घडोवपी आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सुब्रमण्यम, चंद्रशेखर** : (जल्म : १९ ऑक्टोबर, १९१०, लाहोर, पाकिस्तान; मरण : २१ ऑगस्ट, १९९५).

अमेरिकेंत स्थायिक जाल्लो भारतीय खगोल भौतिकीविद. तारकीय उत्क्रांती, अतिदीप्त नवताऱ्याची उत्पत्ती आनी ताऱ्यांचें रासायनिक संघटन हेविशीं ताणें केल्ल्या कार्याखातीर ताका १९८३ वर्साच्या भौतिकीच्या नोबॅल पुरस्काराचो भोवमान मेळ्ळो. भौतिकीचो नोबॅल पुरस्कार (१९३०) मेळोवपी पयलो भारतीय सर चंद्रशेखर वेंकट रमण हो ताचो बापोलयो.

चेन्नईच्या प्रेसिडेन्सी महाविद्यालयांतल्यान १९३० वर्सा तो बी.ए. पास जालो. ताचें फुडलें शिक्षण इंग्लंडांत जालें. १९३३ वर्सा ताणें केंब्रिज विद्यापिठाची डॉक्टरेट पदवी घेतली. १९३६ - ३७ ह्या काळांत तो ट्रिनिटी महाविद्यालयाचो फेलो आशिल्लो. ताणें आपलें चडशें संशोधन यर्कीझ वेधशाळेंत केलें. थंय १९४३ वर्सा तो शिकागो विद्यापिठांत प्राध्यापक जालो. १९५२ वर्सा ॲस्ट्रोफिजिकल जर्नलचो तो कार्यकारी संपादक जालो. १९५३ वर्सा ताका अमेरिकेचें नागरिकत्व मेळ्ळें आनी १९५५ वर्सा ताका नॅशनल ॲकॅडेमी ऑफ सायन्सेसचें सदस्यत्व मेळ्ळें.

ऋण भारित अशा हायड्रोजनाच्या आयनीभूत अणूसंबंदीं ताणें संशोधन करून ताचो सुर्याच्या दीप्तिगोलाचे अपारदर्शकतेची कारणमीमांसा करपाखातीर उपेग जाला. ताऱ्यांचें रासायनिक संघटन, तारे आनी गिरे हांच्या वातावरणांतले ऊर्जेंत जावपी प्रारण बदल, सौरपृश्ठाचेर जावपी संनयन (Convection), सामके पयलींचे अवस्थेंतल्या ताऱ्यासावन येवपी प्रकाशाचें ध्रुवण (एकाच पांवड्यार जावपी कंपन) ह्या विशयांचें अध्ययन आनी भौतिकींतल्या कांय कठीण समस्यांचें गणितीय अनुसंधानय ताणें केलां. हालींच चुंबकीय क्षेत्र आसतना आनी नासतना द्रायूंत (प्रवाही पदार्थांत) जावपी संनयन हालचालींविशीं ताणें अध्ययन केलां.

नोबॅल पुरस्काराभायर ताका आनीकूय खूब भोवमान फावो जाल्यात, तातुंतले कांय उल्लेख करपासारके आसात ते अशे - ब्रूस पदक (१९५२), रॉयल ॲस्ट्रॉनॉमिकल सोसायटीचें भांगरापदक (१९५३), रम्फर्ड पदक (१९५७), रॉयल पदक (१९६२), हेन्री ड्रेपर पदक (१९७१) आनी हेर.

ताणें खुबशे संशोधनात्मक लेख बरयले. तेचभशेन ताणें कांय पुस्तकांय बरयलीं तीं अशीं आसात - ॲन इंट्रोडक्शन टू द स्टडी ऑफ स्टेलर स्ट्रक्चर (१९३९), प्रिन्सिपल्स ऑफ स्टेलर डायनॅमिक्स (१९४३), रेडिएटिव्ह ट्रान्सफर (१९५०), हायड्रोडायनॅमिक्स ॲंड

हायड्रोमॅग्नेटिक स्टॅबिलिटी (१९६१) आनी एलिप्सॉयडल फिगर्स ऑफ इक्विलिब्रियम (१९६९).

- कों. वि. सं. मं.

**सुमात्रा :** इंडोनेशिया द्वीपकल्पांतलो कालिमंतनाफाटलो दुसरो व्हड जुंवो. आंवाठाच्या मानान संवसारांतल्या जुंव्यांभितर ताचो दुसरो क्रम लागता. क्षेत्रफळ ४८१,७८४ चौ. किमी.ताची चडांत चड लांबाय १,७०० किमी. जाल्यार रुंदाय ४०० किमी. जुंव्याच्या मध्यभागा लागच्यान विषुववृत्त पासार जाल्या. सुमात्रा भोंवतणी आशिल्ल्या ल्हान ल्हान जुंव्यांची आठ प्रांतांनी विभागणी केल्या. हे आठ प्रांत अशे - आसे, बेंगकुलू, जाम्बी, लाम्पंग, रिआउ, उत्तर सुमात्रा, दक्षिण सुमात्रा आनी अस्तंत सुमात्रा.

सुमात्राचे अस्तंत दर्यादिगेर बुकीट बरिसान ही ज्वालामुरवी पर्वतांची सांखळी पातळ्ळया. हे सारवळेंत १३ तेमकां आसात. देशाच्या उदेंत भागांतली चडशी भूंय सपाटूच. देशाच्या अस्तंत भागांत पर्वतांची रवर देंवती आसून, ते हिन्द महासागरांत देंवल्यात. ह्यो पर्वतांच्यो वळी एकामेकांक समान्तर आसून, तांकां खोल देगणांनी वेगळायल्यात. माउन्ट केरिन्सी ३,८०६ मी. हें जुंव्यावयलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. आयज लेगीत ह्या तेमकाचेर ज्यालामुरिवच्यो हालचाली जातात. बुकती बरिसान ह्या पर्वतवळिंचेर अस्तंत आनी उदेंत देंवत्यांचेर दाट रानां पातळ्ळयांत. उदेंतेकडच्या सपाट भागांतल्या रानांनी वेगवेगळया उपजातींचे रूख खूब. जुंव्याच्या उदेंत भागांनी साबार रूंद न्हंयो आसात. पर्वतांमदल्या देगणांनी खूब तळीं आसात. तातुंतलें तोबा हें तळें सगळयांत व्हड. उत्तर सुमात्रांत आस्पाव जावपी ह्या तळयाची लांबाय ८० किमी. जाल्यार रुंदाय २५ किमी. ह्या तळया मदीं सामोसीर नांवाचो व्हड जुंवो आसून ताचेर ल्हान ल्हान गांव आसात.

जुंव्यावयलें हवामान चड उश्ण आनी दमट. सखल भागांनी सरासरी तापमान २७° सॅ. इतलें उरता. जाल्यार चड उंचायेच्या भागांनी ते २१° सॅ. इतलें आसता. जानेवारी आनी फेब्रुवारी ह्या म्हयन्यांनी खूब पावस पडटा.

**इतिहास :** अस्तंतेकसावन उदेंतेक येवपी दर्यामार्गाचेर सुमात्राचो आस्पाव जाल्ल्यान ताका आदीम काळासावन म्हत्व प्राप्त जालां. सुमात्रा जुंव्याच्या वेगवेगळया भागांचो विकास वेगवेगळया तेंपार जाल्ल्यान, सुमात्राक एकूच इतिहास आसा अशें ना. सगळयांत पोरनें पाशाण बरप दक्षिण सुमात्रा जुंव्याचेर सांपडलां. तें इंडोनेशिया भाशेंत आसा. तातूंत इ.स. ६८२ तेंपावयली म्हायती दिल्या.

पुर्विल्ल्या मलाया साम्राज्यांतल्या राज्यकर्त्यान पोरने मलायी भाशेंत पाशाण बरप केलां. ताच्या वयल्यानय जुंव्याची थोडीभोव म्हायती मेळटा. १२८२ त आसे जुंव्यावयलो चिनी सम्राटाक भेट दिवपी दूत मुसलमान आशिल्लो. इंडोनेशियेंतल्या मुसलमानांविशी म्हायती दिवपी हो पयलो पुरावो. राश्ट्रीय वस्तू संग्रहालयांत दवरिल्ल्या घुमटाच्या फातराचेर अरबी बरप आसा. तातूंत इंडोनेशियेंतल्या पयल्या मुसलमान राजाच्या मरणाची नोंद केल्या. ताचें नांव मालिक - अल् - सालीह, ताणें पासाय म्हळयार उत्तर सुमात्रांत राज्य केलें. ताका १२९७ त मरण आयलें. आसे ह्या जुंव्यावयल्यान आदल्या काळासावन परकी वेपार चलतालो. आसे हो मुसलमानाचो सुमात्रा जुंव्यावयलो सगळयांत पयलो बळिश्ट प्रदेश. सोळाव्या शेंकडयासावन तें एक बळिश्ट मुसलमान राज्य जालें. १५९६ त सुमात्रा जुंव्याचेर डच पावले. सुरवेक ते आसे जुंव्यावयल्या लोकांकडेन वेपार करपाक लागले. ल्हव ल्हव तांणी आपलो वेपार थंयच्या हेर भागांनीय पातळ्ळो. उपरांत १६८५ त ब्रिटीश ईस्ट इंडिया कंपनीन अस्तंत सुमात्राचे दर्यादिगेर आपली वसणूक केली.

- कों. वि. सं. मं.

**सुरिनाम :** दक्षिण अमेरिका खंडांतलो आग्नेय दर्यादिगेर आशिल्लो देश. सुरिनाम हो दक्षिण अमेरिकेंतलो एक सगळयांत ल्हान देश. ह्या देशाचें क्षेत्रफळ १,६३,००० चौ. किमी. आसून लोकसंख्या ४,०९,००० (१९९१). देशाचे उत्तरेक उत्तर ॲटलांटीक महासागर, अस्तंतेक गियाना, दक्षिणेक ब्राझील आनी उदेंतेक फ्रेंच गियाना हे देश आसात. हो देश नेदरलँड्साच्या शेकातळा आशिल्लो तेन्ना ताका डच गियाना म्हूण वळखताले. पारामारिबो हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन आनी हवामान :** सुरिनामाचो उत्तरेकडचो भाग सपाट आसून, ताचो मुख्येलपणान शेतवडीखातीर उपेग जाता. हो भाग दर्यादिगेसावन भितर १६ ते ८० किमी. रेंवटी उंचवटया मेरेन पातळ्ळा. रेंवटी उंच सपाट भागा उपरांत देशाचो पर्वतीय भाग मोडटा. ह्या पर्वतीय भागांत दाट रानां आसून तातूंत सुमार २००० जातिंचे रूख मेळटात. देशाचो ईशान्य भाग सवाना प्रकारचो आसून थंय उंच तण वाडटा.

देशाचें हवामान उश्ण आनी दमट. देशांतलें सरासरी तापमान २७° सॅ. देशाच्या अस्तंत प्रदेशांनी वर्सुकी सरासरी पावस १९५ सेंमी. जाल्यार पारामारिबो शारांत तो २४० सेंमी. इतलो पडटा.

**इतिहास :** १४९८ क्रिस्तोफर कोलंबस जेन्ना दक्षिण अमेरिकेंत पावलो तेन्ना, ताणें ह्या प्रदेशाची पळोवणी केल्ली अशें सांगतात. उपरांत सोळाव्या शेंकडयांत स्पॅनिश आनी पुर्तुगेज लोक ह्या प्रदेशांतल्या वेगवेगळया वाठारांचो सोद घेत भितरमेरेन पावले. १६५१ त ब्रिटीश भोंवडेकारांनी थंय आपलो राबितो केलो. तांणी थंय कापूस आनी ऊंसाचे व्हड मळे उबारले. उपरांत शेतवडींत राबोवपाखातीर ते आफ्रिकेंतल्यान खांप्री लोकांक हांगा गुलाम म्हूण हाडपाक लागले. १६६७ त डच लोकांनी ह्या प्रदेशाचेर ताबो मेळोवन,

तांणी ह्या प्रदेशा बदला ब्रिटिशांक सद्याचें न्यूयॉर्क राज्य दिलें.

अठराव्या शेंकड्यांत गुलामांच्या उठावांक आनी डचांच्या बेजापसालदारकीपणाक लागून सुरिनामाची अर्थवेवस्था साप्प इबाडली. अशा तंग वातावरणाक लागून एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक ब्रिटिशांनी हो प्रदेश साबार खेप आपल्या ताब्यांत घेतलो. पूण १८१५ त तांणी आपले सुरिनामावयले हक्क सदांखातीर सोडून तो डचांचे सुवादीन केलो. १८६३ त डचांनी थंयची गुलामगिरी नश्ट केली. उपरांत तांणी मळ्यांनी वावूरपाखातीर भारत आनी इंडोनेशीयेंतल्या साबार कामगारांक थंय व्हेले. पूण विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक सावन ह्या मळ्यांक देंवती कळा लागिल्ल्यान खूब कामगार शारांनी वचून काम करपाक लागले.

१९५४ त ह्या डच प्रांताक स्वायत्तताय मेळ्ळी. १९७० त क्रियोल लोकांनी पुराय स्वातंत्र्याची मागणी केली. डच सरकारानय ताका तेंको उक्तायल्लो. पूण थंयच्या हिन्दुस्तानी लोकांनी हे चळवळीक विरोध केल्ल्यान सुरिनाम समाजांत पयलेच खेप वांशिक मतभेद सुरू जाले. उपरांत २५ नोव्हेंबर १९७५ दिसा सुरिनामाक पुराय स्वातंत्र्य मेळ्ळें. सुरिनामान लोकशाय पद्दत आपणायली. पूण स्वातंत्र्य मेळ्ळया उपरांत रोकडेंच सुरिनामांतल्या साबार लोकांचें नेदरलँड्सांत स्थलांतर जालें. हाचो परिणाम म्हळ्यार देशांतल्या कुशळ कामगारांची संख्या खूब उणी जावन देशाचे अर्थीक स्थितीचेर वायट परिणाम जाले. १९८० चे सुरवेक कांय सैनिकी मुखेल्यांनी सत्ता काबीज करून संसद बंद केली. उपरांत सुरिनामांतल्या लोकांभितर आनी सैनिक हांच्यांत कबलात जावन, दोगय मेळून सरकार चलयतले अशें थरलें. पूण संसद मात परतून अस्तित्वांत हाडली ना. १९८७ त सैनिकी मुखेल्यांनी वेंचणूक घेवपाक मान्यताय दिली. लोकांनी, वेंचून येवपी संसदेक मान्यताय दिवपी नव्या संविधानाची मागणी केल्ली. पूण सैनिक आनी नागरिक हांचो आस्पाव आशिल्ल्या काउंन्सिलाक संसदेन पास केल्ले कायदे जायजाल्यार भायरावपाचे खाशेले हक्क दिल्यात. १९८८ त नॅशनल ॲसेंम्बलीन राश्ट्राध्यक्ष आनी उपराश्ट्राध्यक्षाक वेंचून काडले. १९९० त सैनिकी मुखेल्यांनी उठाव करून नागरिकी सरकार बरखास्त केलें. १९९१ त नवी संसद आनी अध्यक्ष वेंचून काडलो.

भौशिक मतदानान नॅशनल ॲसेंम्बलीखातीर ५१ वांगडी पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात. नॅशनल ॲसेंम्बलीक देशांतले सगळे कायदे करपाचे हक्क तशेंच राश्ट्राध्यक्ष आनी उपराश्ट्राध्यक्ष वेंचून काडपाचे हक्क आसात. राश्ट्राध्यक्ष काउंन्सिलच्या वांगड्यांची नेमणूक करता. उपराश्ट्राध्यक्ष काउंन्सिलच्या वांगड्यांचें फुडारपण करता. तशेंच तो प्रधानमंत्री म्हणूनय वावूरता. नॅशनल ॲसेंम्बलीन केल्ले कायदे जाय जाल्यार भायरावपाचे खाशेले हक्क काउंन्सिलाक दिल्यात.

**अर्थवेवस्था :** देशाची अर्थवेवस्था मुखेलपणान खनीज उद्देग आनी धातू प्रक्रियेचेर आदारल्या. बॉक्सायड उत्पादन करपांत सुरिनाम मुखार आसा. कच्चें बॉक्सायट आनी ॲल्युमिनीयम हांचो वट्ट निर्यातींत ७५% वांटो आसता. शेतवड होय देशांतलो म्हत्वाचो वेवसाय. भात हें देशांतलें मुखेल पीक. तांदळांची व्हड प्रमाणांत निर्यात जाता. केळीं, नाल्ल आनी उंस हीं देशांत जावपी हेर म्हत्वाचीं पिकां. रानासावन मेळपीय येणावळ म्हत्वाची आसा.

सुरिनामांत उदका येरादारी चड म्हत्वाची. उदका येरादारीक फावाशो खूब न्हंयो देशांत आसात. रस्ते आनी रेल्वेमार्ग मर्यादीत आसात. झान्देरजी शारालागसार आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. देशांत मुखेल दोन खबरांपत्रकां उजवाडा येतात. टि.व्ही. आनी रेडिओ वेवस्थाय बरी आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** देशांत साबार वांशीक गटांतले लोक आस्पावल्यात. वट्ट लोकसंख्येंतले सुमार तिसऱ्या वांट्यावयर लोक हिन्दुस्तानी आसात. क्रियोल हेय लोक लागीं लागीं तितलेच आसात. क्रियोल हे युरोपी आनी आफ्रिकी हांची भरसण जावन तयार जाल्ले लोक. उरिल्ल्या लोकांत इंडोनेशीयी, खांप्री, अमेरिकी इंडियन, चिनी आनी युरोपी लोकांचो आस्पाव जाता. दर एका वांशिक गटान आपली संस्कृती, धर्म आनी भास राखून दवरल्या. डच ही सुरिनामाची राश्ट्रीय भास. पूण देशांतले चडशे लोक ताकी - ताकी हे भाशेचो चड वापर करतात. ताकी - ताकी ही डच, इंग्लीश आनी हेर आफ्रिकी भाशांची भरसण जावन तयार जाल्ली भास. सुरिनामांत खांप्री लोकांक 'बूश निग्रो' अशें म्हण्टात. देशांतले सुमार ६५% लोक शिक्षित आसात. ७ ते १२ वर्सां पिराये मदल्या भूरग्यांक शिक्षण कायद्यान सक्तीचें आसा. देशांतले सुमार अदर्यावयर लोक पारामारिबो शारांत रावतात.

- कों. वि. सं. मं.

## सुर्लकार, धर्मा कुश्टा : (जल्मः मे १९३२, शिरोडा - फोंडें गोंय).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें मराठी आनी पुर्तुगेजींतल्यान मुळावें तशेंच हिंदी कोवीद मेरेन शिक्षण पुराय केलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटकेझुजाच्या काळांत तो बसकांनी वांटो घेवप, पत्रकां वांटप, तिरंगी बावटे लावप, हातीपत्रकां वांटप असलीं कामां करतालो. १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा हेर वावुरप्यांवांगडा ताणें सत्याग्रह आयोजित केल्लो, पूण ताचे पयलींच तांकां सगळ्यांक अटक जाली. पोलिसांनी ताका खूब मार दिलो आनी प्रादेशिक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून आठ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. दोन वर्सांखातीर ताका दंड भरूंक लायलो. तशेंच २० वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतले.

फुडें ऑगस्ट १९५९ वर्सा बंदरवणींतल्यान ताची सुटका जाली. गोंय सुटके उपरांत १९६३ वर्सा शिरोडा ग्रामपंचायतीचो सरपंच म्हूण आनी १९६८ वर्सा थंयचो वांगडी म्हूण तो वेंचून आयलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**सुर्लकार, विठ्ठल सुर्या शेट :** (जल्म : २४ एप्रिल १९३७, सुर्ला - खाजन).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण पुर्तुगेज आनी मराठींतल्यान घेतलें. तशेंच मॅट्रीक मेरेनचें शिक्षण ताणें पुराय केलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा सुटकेझुजारी अँथनी द सौझ हाच्या फुडारपणाखाल पोळेची गोंयची शीम हुपपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी खूब मार दिलो. जाका लागून ताच्या बरगड्यांक मार बसलो. पोलिसांनी ताच्या शरिराचे सुमाराभायर हाल केल्ले जाकालागून ताका बरोच तेंप हॉस्पिटलांत रावचें पडलें. तो सुमार स वर्सां बंदरवणींत आशिल्लो. ताच्या बापायक आनी भावाक धरून सुमार स म्हयने बंदरवणींत दवरिल्ले.

गोंय सुटके उपरांत ताणें गांवगिऱ्या वाठारांतल्या भुरग्यांक शिक्षण मेळचें ह्या उद्देशान सुर्ला - खाजन हांगा हिमालय श्रम कला मंदिर आश्रम हे संस्थेची स्थापणूक केली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**सुर्लकार, श्रीधर आत्माराम :** (जल्म : २५ जानेवारी १९२७, वळवय - फोंडें).

गोंयचो सुटकेझुजारी. १९४५ ते १९४७ ह्या काळांत तो बाळा काकोडकार हाचेवांगडा सुटकेझुजाचें काम करतालो. १५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा सावय-वेरें हांगा तिरंगी बावटो लायिल्ल्याच्या आरोपाखाल पोलिसांनी ताका जुलय १९५५ त नारायण हिरू नायक आनी बाबल भिमा पेरणी हाचे वांगडा अटक केली. उपरांत ताका पणजी पोलिसठाण्यार व्हरून सुमाराभायर मार दिलो. थंय ४ म्हयने बंदरवणींत दवरून उपरांत ताका आग्वाद बंदरवणींत व्हेलो. फुडें १९५७ वर्सा बंदरवणीसावन ताची सुटका जाली. तरीपूण ताका सदांच पोलिसठाण्यार हजेरी लावची पडटाली. बंदरवणींतल्यान सुटका जातकच तो गांवगिऱ्या लोकांचे उदरगतीखातीर काम करूंक लागलो. १९७३ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सुश्रुत :** एक आयुर्वेदाचार्य आनी शल्यतंत्र पारंगत. हाच्या काळाविशीं निश्चीत म्हायती मेळना. तो वाग्भटाच्या आदलो आनी अग्नीवेशाच्या काळांतलो आशिल्लो. पाणिनीन अष्टाध्यायीच्या गणपाठांत 'सौश्रुतपार्थिवा': असो पाठ दिला. ताचेवयल्यान सुश्रुत हो पाणिनी आदीं जावन गेलो आनी पाणिनीच्या काळांत ताचे शिश्य वा पूत आशिल्ले अशें कळटा. ताच्या बापायविशीं खुबशीं मतां मेळटात. सुश्रुत संहितेवयल्यान ताका विश्वामित्राचो पूत म्हळां जाल्यार, दुसऱ्या एका मताप्रमाण ताका शालिहोत्राचो पूत मानला.

सुश्रुत हो शस्त्रवैद्य आशिल्लो आनी ही विद्या ताका दिवोदास धन्वंतरीन शिकयल्ली. हे विद्येचेर आदारीत सुश्रुतान सुश्रुतसंहिता हो ग्रंथ बरयलो. सुश्रुतसंहितेचे पांच भाग आसून तांकां स्थानां म्हण्टात. तांचीं नांवां अशीं - सूत्रस्थान, निदानस्थान, शारीरस्थान, चिकित्सास्थान आनी कल्पस्थान. हातुंतलें शारिरस्थान म्हत्वाचें मानतात. हातूंत वैद्यशिक्षा, वखदमूळ विभाग, वखदी चिकित्सा, पथ्यापथ्यविचार आदी सामान्य विशयांचें विवेचन आसा. शस्त्रोपचार आनी व्रणोपचार हो वैजकींतलो म्हत्वाचो भाग आसा अशें सुश्रुतान म्हळां.

सुश्रुतान शंभरांपरस चड शल्यशस्त्रांची म्हायती दिल्ली आसा. तो म्हण्टा, ह्या शास्त्रांत वेगवेगळयो तरेच्यो सुरयो, चाकू, उत्पाटक, अस्थिछेदक, कातरी, सुयो, आंकडे, मूत्रनळी, उदरवीक्षक आदी उपकरणां आसूंक जाय. हाड सांदपाखातीर कोंड्याच्यो पट्ट्यो वापरच्यो, हाड भायर ओडप, भितर ओडप, फिरवप, ताका भायल्यान मालिश करप अशे प्रकार अस्थिरोगाचे बाबतींत गरजेचे आसतात. घायाचे जायते प्रकार आसतात. तांचीं उपचार पद्दतय वेगवेगळी आसता. तकली, तोंड हाचेर घाय जाले जाल्यार ते शिंवचे पडटात. घायांत लोखण, लोखणाचे कण आडखळिल्ले आसल्यार लोहचुंबकाचो उपेग करचो. सुजेर लेप आनी पथ्य हांचो उपेग करचो. हाचेभायर शेक दिवप गांठी आसल्यार कापून उडोवप, मुतखडो आसल्यार शस्त्रक्रिया करप असले जायते उपाय सुश्रुतान सांगल्यात.

तो त्वचारोपण तंत्राचोय व्हड जाणकार आशिल्लो. मोतिबिंदू काडपाची कला ताचेकडे आशिल्ली. बाळंतपण योग्य मार्गान जायना जाल्यार भुरग्याक भायर काडपाचे प्रकारय सुश्रुतान सांगल्यात.

सुश्रुतसंहितेचो उत्तरस्थान नांवाचो एक भाग आसा. तो धरून ह्या ग्रंथाक वृध्दसुश्रुत अशें म्हण्टात. हो भाग उपरांत कोणेंतरी जोडिल्लो आसा. सुश्रुतसंहितेचे तीन पाठ आसून सुश्रुत हो संक्षिप्त पाठ, लघुसुश्रुत हो अतिसंक्षिप्त पाठ आनी वृध्दसुश्रुत हो वाडयल्लो पाठ आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सूफी संप्रदाय :** इस्लाम धर्मांतलो एक पंथ. सूफी ह्या उतराची व्याख्या जायत्या जाणांनी जायत्या तरांनी केल्या. कांय जाण सूफी

शब्दाक ग्रीक उतर सोफिया हाचें रुपांतर मानतात. तर थोडे सफ म्हळ्यार वळ (रांग) हाचेवयल्यान निमाण्या न्याय निवाड्याच्या दिसा पवित्र आत्म्याक एके वळींत उबे करतात, अशा लोकांचो पंथ अशें मानतात. कांय जाण सुफ्फा हें मदिनेंतल्या मशिदीच्या मुखार तयार केल्ल्या चबुतऱ्याकडे हाचो संबंद जोडटात. ह्या चबुतऱ्याचेर बसपी फकिरांक पयलीं सूफी म्हण्टाले, अशें तांचे मत जावन आसा. कांय जाण म्हण्टात की सूफ हो शब्द लोकर ह्या अर्थाचो आसून ताचेवयल्यान सूफी हें उतर घडलां. जे आपले कुडीचेर लोकरीची कांबळ पांगरून फिरताले आनी आपल्या मतांचो प्रचार करताले अशा फकिरांक लोक सूफी म्हणपाक लागले. सद्या ह्याच मताक चड तेंको मेळ्ळा कारण सूफीच्या भेसांत कांबळ गरजेची मानल्या.

बरेचसे सूफी आपल्या धर्माक खूब पुर्विल्लो धर्म मानतात. तांच्या मतांप्रमाण सूफी मताचो प्रवतर्क स्वता आदम वा आदिपुरूस होच आशिल्लो. पूण कांय सूफींक हें मत पटना. ते महंमद पैगंबराकच सूफी मताचो प्रवर्तक मानतात. पूण कांय जाणांच्या मतान कुराणांत सूफी तत्त्वज्ञान दिसना. ते लोक सूफीमताच्या प्रवर्तनाचें श्रेय अली वा तश्याच एकाद्र्या मनशाक दितात. हो अली म्हळ्यार चवथो खलिफा अशेंय कांय जाण मानतात. सूफी मताची कुराणाकडेन पुरायतरेन समजिकाय दिसना, हें पळोवन कांय कट्टर मुसलमान सूफी पंथाक निधर्मी समजतात आनी ताची निर्भत्सनाय करतात.

सूफी लोकांचें मत अशें आसा की, महंमद पैगंबराक दोन तरांचे दिश्टावे जाले. तातुंतलें पयल्याचें फळ म्हळयार कुराण तर दिश्टावो ताका समाधीचे स्थीतींत जालो आनी तो म्हळयार रहस्यज्ञान वा गूढविद्या, हे गूढ विद्येक सूफी लोक तसव्वूफ म्हण्टात. तसव्वुफाचीं बीयां पैगंबराच्या बोधवचनांतल्यान दिसून येतात, अशें ताचें म्हणणें आसा.

इस्लामाच्या सुरवेच्या काळांत सूफींचो सगळो भार निवृत्तीमार्गाचेर आशिल्लो. संवसारांतल्या सगळ्या सुखांचो त्याग करून, कौटूंबिक बंदपास तोडून आनी फकिरी आपणावन ते एकांतात खर तप करताले. देहदंडावरवीं ते परमेश्वराचो साक्षात्कार आंवडेताले. देवाचे अवकृपेची तांकां सदांच भिरांत दिसताली. अबूदर्दा, उस्मान बिन माजून, हसन, इब्राहिम बिन आदम, हुजाईल बिन इयात अशे दादले तपस्वी तशेंच राबिया नांवाची एक बायल तपस्विनीय इ.स.च्या आठव्या -णवव्या शेंकड्यांत जावन गेली.

इ.स.च्या णवव्या शेंकड्याच्या शेवटाक सूफी पंथाक एक वेगळेंच वळण लागलें. तपश्चर्या आनी कुडीक त्रास दिवप म्हळ्यारच फकत तसव्वुफ न्हय, तर ताचेयपरस वेगळी आनी उंचेली साधना परमेश्वर मेळोवपाखातीर गरजेची आसता, हाची जाणविकाय सूफींक जावंक लागली. बगदादच्या खलिफांच्या दरबारांत त्या काळार किरिस्तांव, बुध्द, इराणी आनी भारतीय हिंदू धर्म अशा बऱ्याचशा धर्मांच्यो आनी संस्कृतायेच्यो परिशदो भरताल्यो. अशा बसकांतल्यान धर्मीक आनी आध्यात्मिक भासाभास जाताली. विंगड विंगड आचार्यांचीं विंगड विंगड मतां विचाराखातीर फुडें येताली. ह्या भासाभाशेचो परिणाम सूफींच्या मताचेर जाले बगर रावलो ना. त्यो भासाभासो आयकूनच सूफी हें कर्मकांडासावन ज्ञानमार्गाकडे वळ्ळें. अशा सूफींमदीं मासफुल्करखी, अबु सुलेमानुद्दारांनी, जुन्नुन मिस्त्री, यजीदुल्ल बिस्तानी वा बयाजिद हे मुखेल जावन आसात. अनलहक्क ( हांवच परमेश्वर सत्य आसा आनी म्हजेविणें दुसरो कोणच परमेश्वर ना) ह्या तत्त्वांमेरेन तांची उंचाय गेली. वेदान्तांतलें 'अहंब्रम्हास्मि' सारकेंच हें सूफींचें म्हावाक्य आसा. ताचे उपरांत मन्सूर हाणें अनलहक्काचो नेटान प्रचार सुरू केलो. पूण त्या काळांतल्या कट्टर धर्माचार्यांक तो प्रचार आवडलो ना. ते सगळे द्वैतवादी आशिल्ले आनी मन्सूर हो अद्वैताचो पुरस्कर्तो आशिल्लो म्हणून मन्सूराक तांणी काफिर थारायलो आनी बगदादच्या खलिफाकडल्यान इ.स. ९२२त ताका वधदंडाची ख्यास्त दिली. पूण ही परिस्थिती गजालीच्या काळासावन बदलली. गजालीचें पुराय नांव अबुहामीद मुहफदुल गजाली अशें आशिल्लें. तो बरोच शिकिल्लो. शिक्षणाक लागून ताची बुद्द वाडिल्ली. ताका इस्लामी दायजांतलें कुड्डें अनुकरण पटना जालें. तो कांय तेंप बगदादच्या निजामिया विद्यापिठांत अध्यापकय आशिल्लो. थंय ताणें मुसलमान धर्मांतल्या आचारांचेर (फिफा) बरेच ग्रंथ बरयले आनी त्यावेळावयल्या पंडितांकडेन धर्मासंबंदीं बरीच भासाभासय केली. पूण ग्रंथ बरोवन आनी वादविवाद करूनय ताचें समाधान जालेंना. तेन्ना निमाणें इ.स. १०९५ त ताणें सूफीपंथ आपणायलो. तो फुडें व्हड साक्षात्कारी संत जालो. हे गजालीक फक्त एकेश्वरीवाद वा फक्त अद्वैत मान्य ना. ताणें एकेश्वरीवाद (तौहिद) आनी अनन्यशरणताय (तवकुल्ल) हांकां जोडपाचोय यत्न केलो. सूफी मत हें नेम आनी शास्त्र हांची तयार जाल्ली प्रणाली नासून ती एक नैतिक अवस्था आसा अशें मानलां. 'किताब अल् लुमा' हो सूफी मतावयलो सगळयांत पोरनो आनी सगळे नदरेन पूराय असो ग्रंथ जावन आसा. तातूंन ध्येयमार्गांत सात विसव थळां सांगल्यांत. हीं सात सोंपणां सूफीच्या यौगिक आनी नैतिक अनुशासनाचींच आंगां आसून हाकाच ते अनुशासनाच्यो धा दशा मानतात. ती एक मनोवैज्ञानीक सरपळीच जावन आसा.

सूफीमतान निर्गुण आनी निराकार अशा परमात्म्याक हक म्हण्टात आनी विंगड विंगड अश्या सृश्ट स्वरुपाक खाल्क म्हण्टात. तांच्या मतान सृश्टीचे दोन प्रकार आसात. एक आलमे अम्र (परमेश्वराचे आज्ञेन निर्माण जाल्ली) आनी दोन आलमे खल्क (पयलीं सावन आशिल्ली). पयलीं सृश्ट अजड तर दुसरी जड आसा. आलमे अम्र आनी आलमेखल्क हाच्या दोगांयमदल्या अंतराक बरजख अशें म्हण्टात. मुमुक्षूक (साधकाक) आत्मोध्दाराखातीर नासून (लौकिक), मलकूत (दैवी संपत्ती), जबरुत (सिध्दीची प्राप्ती), लाहत म्हळयार

परमेश्वराच्या ठाय आत्म्याचें विलिनिकरण हेंच सूफींचें निमाणे साध्य आसा.

ह्या पंथांतल्या साधकान नमाज, कुराणपठण आनी खाशेल्यो प्रार्थना ह्यो नेमान करूंकच जाय. सूफी साधूंच्यो कुतुब, गौस, अवताद, अबदाल, अम्ह नजीब, नकीय आनी अवलिया अशो श्रेणी आसात. अली हुजवेरीन कश्फुल महजुद हो ग्रंथ मुखेल करून साधकांखातीरच बरयला. ज्ञानांतल्यान साधकाक साधना मेळूंक शकता. तेखातीर ज्ञानाप्रमाण आचरण करप हें साधकाचें मुखेल कर्तव्य जावन आसा. ज्ञान दोन तरांचें आसता. तें म्हळयार परमात्म ज्ञान आनी लौकिक ज्ञान.

इ.स.च्या ८ व्या शेंकडयासावन सूफीसंत भारतांत पावले आनी तांणी धार्मिक प्रचार कार्य सुरू केलें. १३ व्या शेंकडयामेरेन देवगिरी, बुऱ्हाणपूर, औरंगाबाद, हैद्राबाद, गुलबर्गा, बिदर, विजापूर हीं सूफींचीं थळां जालीं. सूफीमताचो प्रसार-प्रचार करपी चार व्यक्ती भारतांत मुखेलपणान दिसतात. त्यो म्हळयार चिस्ती, कादिरी, सुहरावर्दी आनी नक्षबंदी. फुडाराक तांच्याच नांवावयल्यान चार संप्रदाय भारतांत प्रचलित जाले, सूफीमतांचो बरोच प्रभाव भारतीय आचारविचारांचेर पडिल्लो दिसून येता. संत कबीराच्या रचनांचेर हो प्रभाव चड दिसता. शिखांचो गुरू ग्रंथसाहेबांत शेख फरीद ह्या सूफीसंताचीं शेंकडयांनी पदां आस्पावल्यांत.

सूफी साहित्यांत विवेचनात्मक निबंद, संत आनी साधकांचीं चरित्रां, तशेंच तांच्यो चमत्काराच्यो कथा आनी प्रेमप्रधान प्रतिकात्मक काव्यां (मसनवी) दिसतात. गजाली, अरबी, जिल्ली, कुशेरी, सुहरावर्दी, मुहम्मद शाबिस्तेरी, दौलतशाह, मौलाना रुमी, अत्तार, हाफिज, फारिज हांचे हें साहित्य जावन आसा. लैला मजनू, शिरी - फरहाद, युसुफ - जुलेखा, पद्मावत,चंदायन, मिरगावती हीं सगळीं काव्यां भारतांत निर्माण जाल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**सूरदास :** ( इ.स.१४७८ - १५८३).

नामनेचो हिंदी संतकवी. दिल्ली लागसार सिही नांवाच्या ल्हानशा गांवांत सूरदासाचो जल्म जालो. ताचो बापूय एक निर्धन सारस्वत ब्राह्मण आसलो. सूरदास हो जल्मताच कुड्डो आशिल्लो. तरी ताका ज्योतिश आनी शकुन सांगपाची विद्या जल्मजात प्राप्त जाल्ली अशें सांगतात. पिरायेच्या सव्या वर्सा ताका हे विद्येचो प्रत्यय आयलो.

भुरगेपणांतच सूरदासान घर सोडून, सिही गांवासावन सुमार ८ मैल पयस आशिल्ल्या एका तळयाच्या कांठार तो खोंप बांदून रावलो. उपजिवीकेखातीर ताणें ज्योतिश सांगपाचो धंदो आपणायलो. ताचे हे विद्येंतल्या अलौकिक सामर्थ्याखातीर तो सरभोंवतणच्या वाठारांतल्या लोकांचो आवडटो जालो. उपरांत ताचे भोंवतणी कांय शिश्य - शागीर्दय जमूंक लागले. उपरांत तो मथुरेक गेलो. थंयच्या विश्रामघाटार ताणें आपली कुटी उबारली. हांगाय



शकुन-भविश्य विचारपाखातीर भोंवतणी गर्दी जावपाक लागली. हाचो परिणाम मथुरेच्या चौब्यांच्या ज्योतिश धंद्यार जावंक लागलो. ताणें सूरदासाविशीं कागाळ सुरू केली. मागीर ताणें मथुरा सोडून आग्रा - मथुरा मार्गाच्या मदीं यमुना न्हंयेचे देगेर, गौघाट नांवाचे सुवातेर आपलो राबितो केलो.

गौघाटाचेर ताणें अध्यात्मसाधना सुरू केली आनी कांय तेंपान सरभोंवतणच्या वाठारांतलो एक सत्पुरूस म्हण नामनेक पावलो. सूरदासाक लौकिक दृश्टीचो सत्पुरूस म्हूण मान आसलो, तरी ताच्या मनाक मनःशांती प्राप्त जावक नासली. वल्लभाचार्याची जेन्ना सूरदासाकडे भेट जाली तेन्ना सूरदासान आपली खंत ताचेकडेन उक्ती केली. तेन्ना वल्लभाचार्य ताका घेवन गोकुळांत गेलो. थंय ताणें सूरदासाक श्रीमद्‌भागवतांतल्या कृष्णाच्या वृंदावन लीलांचें माधुर्य विस्कटावन सांगलें आनी ताका ह्या लीलांचें गायन करपी पदां रचपाची आज्ञा केली.

सूरदासान ह्या गुरूचे आज्ञेक पाळो दिलो. श्रीकृष्णलीलांचें गायन करपी सहस्त्रावधी पदां रचून मनःशांतीची खोस ताणें स्वता अणभवली. तशेंच ह्या पदांचें आस्वादन घेवपी असंख्य भक्तांकय ती जोडून दिली. हाच्या फुडलें आयुश्य सूरदासान गुरूचे आज्ञेनुसार वृंदावनांतल्या श्रीनाथजीचे पूजेंत भजन-कीर्तन करपांत सारलें. दिसानदीस घडपी ताच्या साधुत्वान, गीतमाधुर्यान आनी गानकौशल्यान हजारांनी भाविकांक आनी रसिकांक ताणें ओड लायली.

सूरदासाची भास सोंपी आनी ताच्या पदांतल्यान येवपी प्रसंगचित्रां प्रत्ययकारी आसात. ताच्या नांवार सूररामायण, साहित्यलहरी, सूरसागरसारावली, सूरसागर, नागलीला, सूरपचीसी, गोवर्धनलीला, दृष्टिकूट हे ग्रंथ आसात. ताच्या काव्यांतल्यान बहुश्रूत, अनुभवसंपन्न, विवेकशील, चिंतनशील, भक्तिरसपरिपूर्ण व्यक्तिमत्वाचो प्रत्यय येता. सख्यभक्ती , वात्सल्यभक्ती, माधुर्यभक्ती विनोदवृत्ती हे ताच्या काव्याचे खाशेले गूण आसात. एकेच फावट तो लौकिक आनी अलौकिक पातळेवयले जीणेची अनुभूती घेता.

- कों. वि. सं. मं.

**सूर्य :** ग्रहमाळेचो चालक. तो आकाशगंगेंतल्या सगळयांत व्हड

आनी ल्हान, तशेंच सगळ्यांत तेजस्वी आनी अंधूक ताऱ्यांमदलो एक प्रारुपीक तारो. सूर्य हो धर्तरेक सगळ्यांत लागिंचो तारो. तो सूर्यकुलाचो बिंदू आसून, ताचें वस्तूमान ताचे भोंवतणी घुंवपी सगळ्या ग्रहांच्या वस्तूमानापरस ७४० पटिंनी चड आसा. सुर्याच्या ह्या व्हड वस्तूमानाक लागून ताचे भोंवतणी एक व्हड गुरूत्वाकर्शण तयार जालां. जाका लागून सूर्यकुलांतले सगळे ग्रह आनी केतू सुर्याभोंवतणी क्रमीक वळेरेंत घुंवतात. सूर्यकुलांतल्या सगळ्या ग्रहांक फकत सुर्यासावनच उजवाड आनी उश्णता मेळटा. सूर्य आनी तांचे लागचे हेर तारे गांगेयबिंदू भोंवतणी दर सेंकदाक सुमार २५० किमी. गतीन, वर्तुळाकारांत घुंवतात. हे गतीन सूर्य गांगेयबिंदू भोंवतणी एक भोंवडी पुराय करपाक सुमार २५० दशलक्ष वर्सां घेता. ह्या काळाक 'वैश्विक वर्स' वा 'कॉस्मीक इयर' अशें म्हण्टात.

सूर्य हो हेर ताऱ्यांभशेन हायड्रोजन वायुसावन तयार जाला. ताची उर्जा ताचेभितर आशिल्ल्या हायड्रोजन वायुचें हेलियम वायूंत रुपांतर जावन निर्माण जाता. अणूसंघटीत पद्दतीन तयार जावपी ही उर्जा सुर्याच्या पृश्ठभागाचेर येवन, उपरांत अवकाशांत प्रारण जाता. सुर्याच्या दिश्टी पडपी लखलखीत भायल्या थराक 'फोटोस्फिअर' म्हण्टात. त्या थराची उश्णता सुमार ६०००° सॅ. इतकी आसा. ताच्या भायल्या तांबशा थराक क्रोमोस्फिअर म्हण्टात. ताची उश्णता सुमार ३२४००° सॅ. सुर्याच्या सगळ्यांत भायल्या थराक, जो सूर्यगिराणावेळार दिसता ताका 'करोना' अशें म्हण्टात. करोनाची उश्णता सुमार २, ७००, ०००° सॅ. सुर्याभोंवतणी चुंबकीय क्षेत्र आसून, तें ताचे भोंवतणी घुंवत आसता. हें चुंबकीय क्षेत्र ताच्या गाभ्याचेर उर्जा तयार करपांत आदार करता.

आदीम काळासावन संवसारांतले चडशे लोक सुर्याक देव मानताले. देखून सुर्याचो प्रकृतीक अभ्यास खूब उसरां जालो. इ.स.पयलीं पांचव्या शेंकड्यांतलो तत्त्वगिन्यानी ॲनाक्सागोरस हाच्या मतान इ.स.आदीं ४६४त ॲजोस्पोटामी हांगा पडिल्लो अशनी (Meteorite) हो एक सुर्याचोच भाग. ह्या अशनीवयल्यानच ताणें सूर्य हो एक व्हड लोखणागुळो आसा असो निश्कर्श काडलो. फुडें दुर्बिणेचो सोद लागल्या उपरांत गॅलिलिओ, जॉहनीस फॅब्रिसियस, क्रिस्टोफ स्किनियर आनी थोमस हॅरिएट हांणी सादारण एकाच वेळार, म्हळयार १६१० - १६११ ह्या काळांत सुर्याचो खोलायेन अभ्यास करून सुर्याचे प्रकृतीक गिन्यानांत खूब भर घाली. सूर्य दागांचो सोद ह्याच तेंपार लागलो. फुडें १८४३त जर्मनचो ज्योतिर्विद सॅम्युअल हेन्रीक हाणें दुर्बिणेच्या आदारान सुर्याची एकसारकी सुमार ३३ वर्सां पळोवणी करून सूर्यदागांत आवर्ती बदल जायत आसतात हें स्पश्ट केलें. स्पॅक्ट्रोस्कोप हे अत्याधुनिक दुर्बिणेचो सोद लागल्याउपरांत ह्या सूर्यदागांच्या प्रकृतीक आनी रसायनीक स्वभावगुणांचो अभ्यास करप शक्य जालें.

सुर्याची उश्णता सोदून काडप हो सौरखगोलशास्त्रज्ञांमुखार एक कठीण प्रस्न आसलो. इंग्लीश खगोलशास्त्रज्ञ सर जॉन हार्शेल हाणें १८३७त, सुर्याचीं उबीं किरणां उदकांत जर १.८ सेंमी. खोल पडलीं जाल्यार तितलेंय उदक मिनिटाक १° सॅ. इतलें तापता हें सिध्द केलें. पूण १९०४त, जेन्ना सूर्यकिरणांतल्या वेगवेगळ्या तरंगायामांची म्हायती मेळ्ळी आनी तांचें सौरप्रारणय वेगवेगळें आसता हें सिध्द जाल्याउपरांत, ह्या सगळ्या तरंगायामांची मेळून खारसाण स्पश्ट करप शक्य जालें. सुरवेक सुर्याची उश्णता (तापमान) १,४६१० सॅ. ते १०,०००,००० सॅ. इतली आसा, असो अदमास काडिल्लो. पूण सुर्याच्या पृश्ठासावन अवकाशांत येवपी प्रारण हें सुर्याच्या वायुमंडळांतले वेगवेगळे खोलायेसावन आयिल्ल्यान तांची उश्णताय वेगवेगळी आसता. सुर्याची सगळ्यांत भायली उश्णता ४,२००° केलवीन. जाल्यार ताच्या मध्य भागाचेर ती सुमार १०, ०००° केल्वीन आसता. सुर्याच्या गाभ्याचेर १५ दशलक्ष केलवीन तापमानाचेर उश्मीय - अणूकेंद्री (Thermo - Nuclear) प्रतिक्रिया जावन सुर्याची उश्णता भायर मारता. ताच्या गाभ्याची घनता उदकाच्या शंबर पटींनी चड आसता. हे उश्मीय - अणूकेंद्री प्रतिक्रियेक लागून सुर्याच्या गाभ्यासावन उजवाड, अल्ट्रा वायलट रे, एक्स रे, गॅमा रे, कॉसमीक रे, रेडिओ तरंग आनी प्लास्मा हांच्या रुपान एकसारकी उर्जा भायर येत आसता. ताच्या पृश्ठभागाचेरय एकसारको बदल जायत आसता. केन्नाकेन्नाय ताचेर चड उजळ थिपके जाल्यार केन्नाकेन्नाय काळशे दाग दिश्टी पडटात. हे उजळ आनी काळे दाग भायर सरपी वायुचेर आदारून आसतात. हायड्रोजन, हेलियम, कार्बन, नायट्रोजन, ऑक्सिजन, निओन, सोडियम, मॅग्निशियम, ॲल्युमिनियम, सिलिकॉन, फॉस्फॉरस, सल्फर, कॅल्शियम आनी लोखण हे सुर्याचे म्हत्वाचे मूलघटक.

सौर आंकडेवारी

| | | |
|---|---|---|
| १. | धर्तरेसावन लांबाय | १४९,८००,००० किमी. |
| २. | व्यास (विषुववृत्ताकडेन) | १, ३८४,००० किमी. |
| ३. | गाभ्याची उश्णता | १५,०००,००० केलवीन |
| ४. | स्वताभोंवतणची एक भोंवडी (विषुववृत्ताकडेन) | २५ दीस, ९ वरां, ७ मिनटां. |
| ५. | रसायनीक घटना | |
| | हायड्रोजन | ७१% |
| | हेलियम | २६.५% |
| | हेर मूलघटक | २.५% |

सूर्य वांटकुळो आसून तो एकसारको स्वताभोंवतणी घुंवत आसता हें गॅलिलिओन स्पश्ट केलें. ध्रुवीयबिंदूपरस तो विषुववृत्ताकडेन नेटान घुंवता आशिल्ल्यान विषुववृत्ताकडेन ताचो व्यास ध्रुवीय व्यासापरस ७० किमी. चड आसा.

**भारतीय संदर्भ :** सुर्याक रवी, सविता, विवस्वान, पूषा आदी जायतीं नांवां आसात. अथर्ववेदांत सुर्याचीं सात नांवां आसात जीं सुर्याच्या सात किरणांचें प्रतीनिधीत्व करतात अशें म्हणप जाता.

महाभारतांत दिवस्पुत्र बृहद्भानू, चक्षू आदी सुर्याचीं बारा नांवां दिल्लीं आसात.

सुर्याचे उत्पत्तीविशीं जायती म्हायती मेळटा. तो इंद्राचो पूत (ऋ. ६. ४४. २३); इंद्रा - सोमाचो पूत (ऋ. ६.७२.२); इंद्रा - विष्णुचो पूत (ऋ. ७.९९.४); इंद्रा-वरुणाचो पूत (ऋ.७.८२.३); अग्नी आनी धाता हांचो पूत (ऋ. १०.१९०.३) आनी अंगीरसाचो पूत (ऋ.१०.६२.३) अशें म्हळां. तो अवयव नासतना जल्मलो देखून ताका मार्तंड हें नांव मेळ्ळें.

सुर्याच्या गुणांविशीं जायतीं वर्णनां मेळटात. सूर्य हो मळबाचो अलंकार. ताच्या रथाक सात घोडे आसतात आनी उषा ताका रस्तो मेकळो करून दिता. ताणें द्युलोक सावरून धरिल्लो आसा. सूर्य म्हळयार देवाचें सुंदर तोंड, तो मित्र, वरुण, अग्नी हांचो दोळो आसून सगळया जगार तो देखरेख करता.

नूनं जन : सूर्येण प्रसूता अयन्नर्थानि

**अर्थ :** पुराय जगाक जागो करपी कृणवन्नपांसि सूर्य आसून ताचेच प्रेरणेन लोक आपआपल्या धनोत्पादक वावराक लागतात.

तो विश्वकर्मा आनी देवांचो पुरोयत आसा. तो मनशाच्यो शारिरीक व्याधी पयस करता आनी तांकां दिर्घायुश दिता. ताचे दोळे, हात, जीव, भुजां हीं भांगराचीं आसून ताचे केंसय भांगराचे आसात. ताचो रथय भांगराचो आसून दोन प्रकाशमान घोडे तो ओडटात. तो खूब वैभवशाली आसून आपल्या वैभवावरवीं तो धर्तरी आनी मळब हांकां उजवाड दिता. तो आपलो भांगराचो बावटो ऊंच हुबोवन प्राणिमात्राक जागो करता आनी तांकां आशीर्वाद दिता.

ऋग्वेदांत उषा, प्रत्युषा, संज्ञा, छाया हांचो सुर्याच्यो बायलो म्हूण उल्लेख मेळटात. मत्स्यपुराणांत राती, सवर्णा, छाया आनी सुवर्चसा ह्या चार सूर्यबायलांचो उल्लेख आसा.

सुर्याक संज्ञा नांवाचे बायलेपसून नासत्य, दस्त्र (अश्विनीकुमार) आनी रेवंत हे पूत जाले. तशेंच वैवस्वत मनू (श्राध्ददेव), यम आनी यमुना हींय संज्ञेचींच भुरगीं. छाया हे बायलेपसून ताका सावर्णी मनू, शनी, तपती आनी विष्टी हीं भुरगीं जालीं. तशेंच प्रभा हे बायलेपसून प्रभात आनी राज्ञी हे बायलेपसून रेवत हे पूत जाले. अरुण हो सुर्याचो सारथी आसून तो ताचो व्हड भाव आसा. राजा आनी श्रोष हे ताचे दंडधारी. पिंगल हो ताचो लेखानीक आसून, कल्माष आनी सैमांतले वेगवेगळे पक्षी हे ताचे द्वारपाल आसात. बारा म्हयन्यांचे बारा आदित्य हेय ताच्या परिवारांतले आसात.

संवसारांतल्या भोवतेक समाजांनी सुर्याक बळिश्ट देवता मानून तिची आराधना केल्या. सूर्य ह्या गिन्याचें अवकाश मंडळांतलें म्हत्वाचें स्थान मतींत घेवन ताका ही मानाची सुवात मेळ्ळया आसूं येता.

**फलज्योतिशांतलो सूर्य (रवी) :** सुर्याक ग्रहांचो राजा मानतात. सुर्याक राशिचक्रांतली आपली प्रदक्षिणा पुराय करपाक ३६५ दीस ५वरां ४९ मिनटां इतलो काळ लागता. इतल्या काळांत धर्तरी सुर्याभोंवतणची प्रदक्षिणा पुराय करता. सुर्याक एक रास भोगपाक सरासरी एक म्हयनो लागता. सुर्याची दरएका दिसाची मध्यम गती सरासरी ५९ कला आनी ८० विकला आसा.



**सूर्यपुजा - शिल्प**

राशिचक्रांतले बळिश्ट अशे सिंह राशीचो तो अधिपती आसा. मेष राशींत तो उच्च आनी तुळा राशींत नीच आसता. सामान्यपणान सूर्य हो मेष, सिंह आनी धनू ह्या अग्नीराशींत बळिश्ट आसता. जल्मावेळार सूर्य जे राशींत आसता तेप्रमाण जल्मल्ल्या मनशाच्या स्वभावाची कल्पना करतात.

सूर्य हो विद्युध्दर्मी, निर्भय, उग्रजीण, शक्तीचो स्त्रोत आनी आरक्त असो आसा. मनशाच्या शरिरांतलें काळीज, फाट, जिणेशक्त, नाडीचक्र, आनी दोळो हांचेर सुर्याची सत्ता चलता. कुंडलेंत हो ग्रह बळिश्ट आसल्यार तो मानसन्मान दिवपी, अधिकार दिवपी आनी भाग्योदय करपी जाता. सूर्य निर्बळ आसल्यार ताचे उरफाटीं फळां मेळटात.

लग्नांत आनी दशमस्थानार ह्या ग्रहाचें चड म्हत्व आसून नवपंचमांत ताचेपरस कमी म्हत्व आसता. २,४,६,८ आनी १२ ह्या सुवातांचेर तो पीडित आनी राशीदुर्बल आसून अनिश्ट फळां दिता. रवि-बुधाचो योग विद्या आनी बुध्दी दिता. रवि-गुरूचो योग व्हडपण आनी ऐश्वर्य दिता.

**सुर्याविशीं आचार आनी संकेत :** प्राणिमात्राक सुर्यापसून चैतन्य मेळटा. ताच्या प्रकाशान आरोग्य आनी धान्यादी वस्तू मेळटात. पावसय सुर्याचेर अवलंबून आसता. अग्नींत दिल्ली आहुती सुर्याक मेळटा. ताकालागून तो प्रसन्न जावन वृश्टी करता. ताचेपसून अन्न निर्माण जाता आनी अन्नाक लागून प्रजा निर्माण जाता अशें मनुस्मृतींत सांगलां.

अशा ह्या देवाची उपासना मनीस पुर्विल्ल्या काळासावन करत आयला. ऋग्वेदांत सुर्याचीं जायतीं सुक्तां आसात. सुर्योपासना हें वैदिकांचें सदचें कर्म आशिल्लें.

आयतार हो सुर्याचो वार मानतात. श्रावणांत सौभाग्यवती बायलो आयतरा सुर्याची पुजा करून उपास धरतात. सुर्याच्या बळग्याविशीं वेगवेगळ्या लोकांत समजुती आसात त्यो अशो - काठियावाडांत मांडवराज नांवाचो देव आसा तो सूर्यच. प्ररमार राजपूत आनी काठी ह्या लोकांत लग्नावेळार व्हंकल- न्हवऱ्याक ताच्या दर्शनाक व्हरतात. राजपूत लोकांत चल्याचें जावळ ह्या देवामुखार करतात. कर्नाटकांत चलयेक पयलें न्हाण येतकच ती सुर्याचे किरण आंगार घेता. काठियावाडांत चातुर्मासांत सूर्यव्रत करतात आनी ज्या दिसा सुर्याचें दर्शन जायना त्या दिसा उपास करतात. दक्षिणेंत बाळंटीक चाळिसाव्या दिसा लागसल्ल्या व्हाळार व्हरतात. थंय ती सुर्याक पायां पडटा आनी घागर भरून घेतना सात सुपाऱ्यो हातांत घेता. उपरांत त्यो सुपाऱ्यो वांझ बायलांक वांट्टात. सूर्यमूख हें वायट निवारक आशिल्ल्यान तें देवळाचेर आनी मिरवणुकींतल्या पताकांचेर रेखाटपाची चाल आसा. महाराष्ट्रांत श्रावणांतल्या आयताराक आदित्य - राणुबाई हांच्यो प्रतिमा काडून पुजतात. राजस्थानांत सूर्यदेवाचें खाशेलें महात्म्य आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : सुर्योपासना

**सूर्यफूल** : शास्त्रीय नांव Helianthus Annus. हॅलियस म्हणजे सूर्य आनी ॲन्थस म्हणजे फूल असो ग्रीक भाशेंत अर्थ जाता. सूर्यफुलाचो आकार सुर्यासारको वांटकुळो आशिल्ल्यान आनी ताचें तोंड सदांच सुर्यावटेन राविल्ल्यान ताका सूर्यफूल हें नांव पडप स्वभावीक जाता. हें सूर्यफुलाचें झाड मुळचें अमेरिकेंत आशिल्लें म्हणपाचो उल्लेख मेळटा. वर्सभर जगपी हें झाड सुमार १ - २ मी. ऊंच वाडटा आनी झाडाचे तेंगशेर फकत एकच हळदुवें फूल फुलता. कांय जातीच्या झाडांक मर्दी कांडाचेर फुलां फुलतात. बदामा आकाराचीं आनी पाचव्या रंगाचीं १० ते ३० सेंमी. लांबायेचीं पानां ह्या झाडाक येतात. पानाचेर बारीक केंस आसतात. पळोवपाक सूर्यफूल एकच दिसलें तरी फलोत्द्यान शास्त्राप्रमाण तें एक फूल नासून खूब ल्हान ल्हान फुलांचो तो एक समूह आसता आनी तातूंत नर आनी मादी फुलांचो आस्पाव जाता. सुमार ०.१ ग्रॅ. वजनाचीं दाण्यासारकीं काळीं बियां सूर्यफुलांत तयार जातात. सूर्यफुलाची लागवड वर्साच्या तिनय हंगामानीं करूं येता. बरी निचऱ्याची जमीन उबी तशी आडवी नांगरून घेतात.



गुंगुल्ल्यांपसून उपद्रव जावचो न्ही म्हणून दर हॅक्टराक सुमार ४० किलो ॲनोसल्फन हें वखद मारतात. ६० सेंमी. अंतराचेर दोन चरी मारून २० सेंमी. अंतराचेर रोपयो लायतात. ह्या पिकाक दर धा दिसांनी उदक दिवप जाता आनी हॅक्टरी ६० किलो नत्र, ६० किलो स्फूरद, ४० किलो पलाश मारतात.

पर - परगीकरणाचो दोन तरा आसात. फुलाचेर हात भोंवडावपाची कृत्रीम तरा आनी म्होंवा मुसांवरवीं जावपी दुसरी तरा. ८० - १०० दिसांच्या अंतरांत सूर्यफुलाचें पीक जातीनुसार तयार जाता. पानां हळदुवीं जावपाक लागलीं म्हण्टकच दाणे टणक जातात. ते तशे जातकच फुलांतल्यान सुटूंक पळेतात. अशावेळार दाण्यांसयत फुलाची कापणी करून एक दोन दीस सुकयतात. उपरांत बडोवणेन फुलापसून दाणे वेगळे करतात. एका हॅक्टापसून सुमार ८ - १० क्विंटल उत्पन्न मेळटा. सूर्यफूलाक उपद्रव करपी मावा आनी तुडतुडे ह्या किडींपसून संरक्षण करपाखातीर मॅलोथीयोन आनी फॉस्फोमियोन ह्या वखदांचो उपेग करतात.

४० ते ४५% तेल आशिल्ल्या सुर्यफुलापसून काडपी तेलाचो चडसो उपेग खावपाखातीर जाता. तेभायर रंग, वार्निश, शाबू हे पदार्थ तयार करपांत वापरतात बियो मळून तेल काडल्या उपरांत उरता ते पेंडीचो आल्कोहॉल, पॅक्टीन सारकिल्ले जिन्नस तयार करपाक उपेगी पडटा. तेभायर जनावराची खावड, सारें आनी जळणाखातीर बियांच्या कल्लांचो वापर जाता. सूर्यफुलांची पानां आनी रोपां हीं जनावरांची आवडीची खावड आसा. रोपाच्या कांडापसून तयार केल्ल्या तंतूंवरवीं वस्त्रां निर्माण करपाची पद्दत चिनांत आसा. पानाचो तसोच कांडाचो उपेग कागद निर्मितीकय जाता.

- विश्राम गांवकार

**सूर्यवंश** : पुर्विल्लो एक राजवंश. ह्या वंशाचो मूळ पुरूस वैवस्वत मनू हो मानतात. ताका इला नांवाची एक धूव आनी णव पूत आशिल्ले. सगळ्यांत व्हड पूत इक्ष्वाकू हो अयोध्येचो राजा जालो. ताच्या वंशाक इक्ष्वाकुवंश म्हण्टात. इक्ष्वाकूक शंबर पूत आशिल्ले. तातुंतल्या विकुक्षी, निमी आनी दंड हांकां खूब नामना मेळळी. इक्ष्वाकुउपरांत विकुक्षी हो अयोध्येचो राजा जालो. निमीन विदेहाचें स्वतंत्र राज्य स्थापलें. दंड हाणें दक्षिण भारतांतल्या एका रानांत आपली सत्ता निर्माण केली. त्या रानाक उपरांत दंडकारण्य हें नांव मेळळें.

विकुक्षीचो पूत पुरंजय हाका एक फावट झूज सुरू आसतना इंद्रान वृषभ रूप घेवन आपले तकलेचेर घेतिल्लो. तेखातीर ताका ककुत्स्थ हें नांव मेळळें. ताचो सवो वंशज श्रावस्त हाणें श्रावस्ती नगरी वसयली. ती उत्तर कोसलाची राजधानी जाली. श्रावस्ताचो नातू कुवलाश्व हाणें धुंधू नांवाच्या राक्षसाक मारून राजस्थानांत आर्य संस्कृतीचो प्रसार केलो, म्हणून ताका धुंधूमार हें नांव मेळळें. ताचो

८ वो वंशज युवनाश्व २ रो हाणें आपले बायलेरवातीर दवरील्लें यज्ञोदक पिल्ल्यान ताचे दावे कुशींतल्यान एक भुरगो जल्माक आयिल्ल्याची कथा आसा. इंद्रान स्वता ताका अमृत लावन ताचो सांबाळ केलो म्हणून ताका मांधाता हें नांव मेळ्ळें. मांधाता हो खूब हुशार आनी पराक्रमी असो सम्राट जालो. ताका विष्णुचो ५ वो अवतार मानतात. ताणें १०० अश्वमेध यज्ञ आनी राजसूय यज्ञ केलो. त्या वेळार यादव वंशांतलो राजा, शशबिंदूची खूब नामना आशिल्ली. ताची धूव बिंदुमती हिचेकडे मांधात्याचें लग्न जालें. ताका पुरूकुत्स, अंबरीष आनी मुचकुंद अशे तीन पूत जाले. मांधात्यान पौरव आनी कान्यकुब्ज ह्या राजांक अंकित केले; वायव्येकडल्या आनव आनी द्रुह्यू हांकां जिखले आनी दक्षिणेकडल्या हैह्यांकय पराभूत केले. मांधात्या उपरांत ताचो पूत पुरूकुत्स हो शिंवासनाचेर बसलो. ताणें नर्मदेचे देगेवयल्या गंधर्वांक हारोवन नागांची राखण केली. नागकन्या नर्मदा हिचेकडे लग्न केलें. मुजकुंद हाणें नर्मदेचे देगेर नगरी वसयली. पूण फुडें हैहय वंशांतलो राजा महिष्मान हाणें ती जिखली आनी तिका माहिष्मती हें नांव दिलें.

पुरुकुत्सा उपरांत अयोध्येचें राज दुबळें जालें. फुडें सात - आठ राजा उपरांत त्रय्यारूण सत्यव्रत, त्रिशंकू आनी हरिश्चंद्र अशे तीन प्रसिद्द राजा जाले. त्रय्यारुण हाणें पुरयत वसिष्ठ हाच्या सांगण्यावयल्यान त्रिशंकूक धावंडावन धालो. उपरांत बापूय मरतकच त्रिशंकून विश्वामित्राच्या आदारान अयोध्येचें राज्य जिखलें. ताचो पूत हरिश्चंद्र अयोध्येचो राजा आसतना विश्वामित्रान ताची सत्त्वपरिक्षा घेतली. ताचो ६ वो वंशज बाहू. हैहय राजान अयोध्या जिखली तेन्ना बाहू रानांत पळून गेलो. थंय और्व भार्गवाच्या आश्रमांत ताका मरण आयलें. थंयच ताचे राणयेन सगर नांवाच्या पुताक जल्म दिलो. और्व मूनीन ताका धनुर्विद्या शिकोवन आग्नेय अस्त्रय दिलें. सगरान अयोध्येचें राज्य परतून जिखून घेतलें आनी एक व्हड साम्राज्य उबें केलें.

सगराउपरांत ताचो एक नातू अंशुमान हो राजा जालो. ताचो एक वंशज भगीरथ हो महापराक्रमी सम्राट जालो, तो शिवभक्त आशिल्लो. भगीरथाच्या पूर्वजांक कपिल मुनीन शाप दिल्लो, तातुंतल्यान तांची मुक्तता जावची म्हूण भगीरथान गंगेचो प्रवाह भूतलाचेर हाडलो. तेउपरांत अंबरीष, ऋतुपर्ण, सुदास, कल्माषपाद हे व्हड राजा जावन गेले.

धा - पंदरा राजांफाटल्यान दिलीप २रो हो व्हड चक्रवर्ती सम्राट जालो. देव आनी असुरांभितर जाल्ल्या झुजांत ताणें देवांक आदार केलो. तो विष्णुचो भक्त आशिल्लो. ताचो पूत रघू. ताणें सगळी पृथ्वी जिखून विश्वजित यज्ञ केलो. ताका एक आदर्श राजा म्हूण नामना मेळ्ळी आनी ताच्या वंशाक 'रघुवंश' हें नांव मेळ्ळें. ताचो पूत अज आनी अजाचो पूत दशरथ. तो महापराक्रमी आशिल्लो. ताचो पूत दाशरथी राम हाणें सगळ्या उत्तर भारतांत आपली सत्ता प्रस्थापित करून, दंडकारण्यांतल्या राक्षसांचो नाश केल्लो आनी थंयच्या आश्रमांत रावपी ऋषीमुनींची राखण केली आनी आर्य संस्कृती लंकेमेरेन पावयली. रामराज्य हें आदर्श राज्य थारलें.

उपरांतची म्हायती वायुपुराणांत मेळटा ती अशी - रामाचो पूत कुश हाका कोसल देशाचें राज्य मेळ्ळें. लवाक उत्तर कोसलाचें राज्य मेळ्ळें. श्रावस्ती ही ताची राजधानी आशिल्ली. रामाचो भाव शत्रुघ्न हाणें लवणासुराक मारून मधुवन जिखलें आनी मथुरा नगरी नवी निर्माण करून थंय आपले पूत सुबाहू आनी शूरसेन हांचेसयत राज्य केलें. लक्ष्मणाक अंगद आनी चंद्रकेतू हे दोन पूत जाले. तांणी हिमालयाच्या पर्वतावळींनी राज्यां स्थापलीं. चंद्रकेतू हो मल्ल देशाचो संस्थापक. भरताचे दोन पूत तक्ष आनी पुष्कर हांणी गांधार देशांत तक्षशिला आनी पुष्करावती हांगा राज्य केलें. रामाचो व्हडलो पूत कुश हाच्या ३० वंशजांची नामावली वायुपुराणांत आसा. तातुंतल्या बृहद्‌बल ह्या निमाण्या राजाउपरांतचीं २६ नांवां हेर पुराणांनी मेळटात. बृहद्‌बलान भारतीय झुजांत वांटो घेतिल्लो तेन्ना अभिमन्यूच्या हातान ताका मरण आयलें.

रामाउपरांत अयोध्येचें म्हत्व उणें जालें आनी श्रावस्तीचें वाडलें. अयोध्येच्या इक्ष्वाकू वंशांतलो निमाणचो राजा क्षेमक हो मगध सम्राट महापद्मनंद हाच्या काळांतलो अशें म्हण्टात. इक्ष्वाकू ही सूर्यवंशाची मुखेल शाखा. हिचेभायर मनूच्या पुत्रपौत्रांनी आनीकय कांय शाखांची स्थापणूक केल्ली ती अशी -

निमीवंश - इक्ष्वाकूचो पूत निमी वा विदेह. निमीन नवी राजधानी वसयली आनी तिका आपलो पूत मिथी हाच्या नांवावयल्यान मिथिला हें नांव दिलें. ह्या वंशांतलो सीरध्वज जनक हो सगळयांत नामनेचो राजा. ताचो भाव कुशध्वज सांकाश्याचो राजा आशिल्लो. ह्या वंशांतलो केशिध्वज हो एक म्हान तत्त्वज्ञानी राजा आनी खांडिक्य हो म्हान यज्ञकर्तो आशिल्लो. महाभारतांत देवरात जनक हाका याज्ञवल्क्याच्या काळांतलो मानतात. पूण पुराणांतले वंशावळी वयल्यान जनदेव वा उग्रसेन हो याज्ञवल्क्याच्या काळांतलो थारता. पुराणांत सीरध्वज, धर्मध्वज, जनदेव, दैवराती, खांडिक्य, बहुलाश्व, कृती ह्या राजांक जनक, विदेह, निमी अशीं नांवां दिल्लीं आसात. ते सगळे आत्मज्ञानी आशिल्ले.

नभगवंश - मनूचो पूत नभग हो गंगेचे देगेर आशिल्लो, असो पुराणांनी उल्लेख मेळटा. ह्या वंशांत नाभाग, अंबरीष, विरूप, पृषदश्व, रथीतर हे राजा जावन गेले. कांय काळा उपरांत सोमवंशांतल्या रानांनी नभगवंशाचें राज्य नश्ट केलें.

नरिष्यन्तवंश - मनूचो पूत नरिष्यन्त हाचेंय वेगळें राज्य आशिल्लें. हाचो उल्लेख खुबशा पुराणांनी मेळटा. चित्रसेन, दक्ष, इंद्रसेन, वीतिहोत्र, सत्यश्रवा, उरूश्रवा, देवदत्त, अग्निवेश्य हे ह्या वंशांतले

मुरवेल राजा. ह्या घराण्यान कांय काळा उपरांत क्षात्रधर्म सोडून ब्राह्मण वर्ण आपणायलो.

दिष्टवंश - मनूचो पूत नाभानेदिष्ट वा दिष्ट हो ह्या वंशाचो मूळ पुरूस. कांय पुराणांनी हाका मनूचो नातू अशें म्हळां. कांय पुराणांनी ह्या वंशाक वैशाल राजवंश अशें नांव दिलां. ह्या वंशांत विशाल नांवाचो एक राजा जावन गेलो, तेन्नासावन हाका वैशाल नांव मेळ्ळें. ह्या राजान वैशाली नगरीची स्थापणूक केली. पुराणिक वंशावळींतलो हे शारवेंतलो निमाणचो राजा प्रमती हो अयोध्येच्या दशरथ राजाच्या काळांतलो आशिल्लो.

नृगवंश - मनूचो पूत नृग हाच्या वंशाचो उल्लेख भागवत पुराणांत आसा. तातुंतले सुमती, वसू आनी ओघवत हे नामनेचे राजा जावन गेले.

शर्यातिवंश - मनूचो पूत शर्याती हाच्या पुताचें नांव आनर्त आशिल्लें. ताचेवयल्यान ताच्या राज्याकय आनर्त हेंच नांव मेळ्ळें. ह्या वंशांतल्या राजांचीं नांवां विंगड विंगड पुराणांनी मेळटात तीं अशीं - आनर्त, रोचमान, रवेत आनी ककुद्मत. ककुद्मताची धूव रेवती ही बलरामाची बायल जाली. शर्याती राजाची कन्या ही च्यवन ऋषीची बायल जाली. च्यवनाची कथा वैदिक साहित्यांत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सुर्योपासना :** भारतांत सुर्योपासना ऋग्वेद काळाइतकीच पोरनी आसा. वैदिक विष्णु सुर्याचेच जायते गूण विशेश घेवन फुडें सगळयांपरस व्हड देव जालो. ऋग्वेदांत सौर सुक्तां खूब आसात. त्रैवर्णिकांक रवबर आशिल्ली त्रिकाल संध्या हो सुर्योपासनेचोच एक भाग. तिच्यांतय पापमोचनाक प्राधान्य आसा. 'म्हजी पापां ना कर' अशेंच सुर्याकडेन चडकरून मागणें आसता. सूर्य उदेतकच काळोरव ना जाता. ह्या सैमीक दृश्यावयल्यान वैदिकांनी काळोरव हें पाप, व्याधी आनी अज्ञान हांचें प्रतीक मानलें आनी सूर्य हें पुण्य, बलायकी आनी गिन्यान हांचें प्रतीक मानलां. ते रवातीरच सुर्याचें स्मरण करपाक सांगलें. गृह्यसूत्रांत तेज, ऐश्वर्य आनी अमरत्व हाचेरवातीर सुर्याची प्रार्थना सांगिल्ली आसा.

मनीस जातीचे उत्पत्तीवांगडाच सुर्योपासनेचो उगम जालो अशें मानतात. पुर्विल्ल्या लोकांक सैमाचें चौकस निरिक्षण करतकच दीस, रात आनी ऋतू हांचो निर्मातो सूर्यच आसा. तशेंच धर्तरेवयली जीवसृश्ट सुर्याक लागुनच आसा हें कळ्ळें. ह्या गजालींचें रवरेंपण कळटकच सुर्याचेर मनशाचो भावार्त बसलो. भारत धरून जगांतल्या जायत्या देशांतले लोक सुर्योपासकच आशिल्ले. हाचेवयल्यान सुर्यावयलो भावार्त सगळेकडेन आशिल्लो म्हणपाचें कळटा. असीरिया आनी बाबिलोन ह्या पुर्विल्ल्या देशांनी सुर्योपासना आशिल्ली. बाबिलोनाक सुर्याचें एक देवूळय सापडलां. फिनिशियन (पणी) लोक सुर्याची बाल ह्या नांवान उपासना करताले. इराणी लोक सुर्याक मिथ्रास (इश्ट) ह्या नांवान वळरवताले. आर्मीनियन लोक सुर्याक घोड्याचो बळी दिताले. सीरीयेंत सुर्याचें एक देवूळ आयजय रवांब्यांच्या रुपांत आशिल्लें दिसता. इजिप्तांत सुर्याक रा आनी कोसिरिस हीं दोन नांवां आशिल्लीं. ग्रीस देशांत सुर्याक आरेस, होलिओस अशीं नांवां आशिल्लीं. सूर्य मनशाक दुयेंसापसून वाटायता अशीं ग्रीकांची समजूत आशिल्ली. ग्रीक लोक फुडें जंय जंय गेले थंय थंय आपल्यावांगडा ताणें सुर्योपासनाय व्हेली. एका व्हडल्या साथींतल्यान सुर्यान आपल्याक वाटायलें ह्या गजालीच्या यादीक रोमांत अपोलोचें (सुर्याचें) देवूळ बांदलें. ही घटना इ.स.प. तिसऱ्या शेंकड्यांतली. ताचेउपरांत कांय काळान पालाटिन तेमकाचेर अपोलोचें दुसरें देवूळ बांदलें. जपानांत बौध्दधर्म प्रभावी जावंचेपयलीं शिंतोधर्म प्रचलित आशिल्लो. ह्या धर्मांत सूर्य हो स्त्रीरुपी सविता देवी ह्या नांवान ताची देवळांय बांदलीं. जपानच्या राजघराण्याचें सविता देवी हें कुलदैवत आशिल्लें. पेरू आनी मेक्सिको ह्या देशांत सुर्योपासनेक चड म्हत्त्व आशिल्लें पेरू देशांत सुर्याचीं देवळां हेर देशांपरस चड. इंका राजवटींत सुर्योपासना हो राश्ट्रधर्म जाल्लो. मेक्सिकोंतले लोक आपणाक सूर्यवंशी मानताले. रेड इंडियन टोळयांभितरय सुर्योपासना प्रचलित आशिल्ली. अरेबियन वाळवंटांत बेदुइन अरबांनी इस्लाम आपणायला तरी आयजय तांणी आपली पुर्विल्ली सुर्योपासना सोडूंक ना.

भारतांतय रवूब पुर्विल्ल्या काळांतले सुर्योपासनेचे दोन प्रतीकावशेश सांपडिल्ले आसात. मध्यप्रदेशांत रायगड जिल्ह्यांतल्या मंदा न्हंयेचे देगेर फातराचेर कोरांतिल्ली एक सूर्यप्रतिमा सांपडिल्ली आसून तिचेसकयल हात उबारून सूर्याक पांयां पडपी एक मनीस अंकित आसा. दक्षिणेंत कालिकतपसून ५६ मैलांचेर एडकल ह्या गांवांत पाशाणाचेर कोरांतिल्ली अशीच एक सूर्यप्रतिमा सांपडिल्ली आसून तिचेपोंदा एक स्वस्तिक कोरांतिल्लें आसा. सिंधू संस्कृतींतय सुर्याची उपासना प्रचलित आशिल्ली म्हणपाचें जाणवता.

वेदोत्तर काळांत सौरदेवतांतल्या कांय देवतांचें म्हत्व कमी जालें. सूत्रवाङ्मयांत सूर्य आनी सविता ह्यो सौरदेवता म्हणून उल्लेरिवल्ल्यो आसून यज्ञा सारक्या कृत्यांनी तांकां आवाहन सांगिल्लें आसा. कांय संस्कारविधींत सूर्यपूजेक म्हत्व दिल्लें आसा. ल्हान भुरग्याक सुर्याचें दर्शन करपाचो एक विधी काण्वगृह्यसूत्रांत सांगला. भुरग्याच्या चवथ्या म्हयन्यांत एक थाळी (सूर्यप्रतीक) तयार करून ती सुर्याक ओंपपाचो विधी मानवसूत्रांत सांगिल्लो आसा. मुंजीच्या संस्कारांतय सुर्यरवातीर आहुती सांगिल्ल्यो आसात. रामायण - महाभारत ह्या म्हाकाव्यांवयल्यान त्या काळांतल्या सुर्योपासनेची लोकप्रियता कळटा. रामायणकाळांत राजे आनी राजर्षी सुर्योपासना करताले. महाभारतांत तर सूर्यदेवतेक हाचेपरस चड म्हत्व फाव जालें.

शक-कुशाण काळांत सुर्याचीं देवळां बांदलीं आनी तातूंत सूर्यमूर्तींची स्थापना जाली. सूर्यमूर्तीविशीं कांय सांकेतिक कल्पना ह्या काळांत उदयाक येवपाक लागल्यो. गुप्तकाळ हो पुराणांच्या अभिवृध्दीचो काळ जावन आसा. हातूंत हेर पुराणांवांगडाच कांय सौर पुराणांय निर्माण जालीं. ह्या काळांत आनी उपरांतच्या काळांत मूळ पुराणांची अभिवृध्दी जाली. हातुंतल्या कांय पुराणांनी सुर्योपासनेचो भारतभर प्रचार करपाक पालव दिलो. मार्कंडेय, अग्नी, गरूड, मत्स्य, लिंग, पद्म, ब्रह्म, स्कंद, विष्णुधर्मोत्तर, भविश्य आनी सांब ह्या पुराणांनी चडकरून सुर्योपासनेची म्हायती हेर पुराणांपरस विस्तारीत आसा.

सूर्यपुजा आता पंचायतन पुजेचो एक घटक आसा, तरीय पुराणकाळांत शैव आनी वैश्णव संप्रदायांप्रमाणच सुर्योपासकांचो एक वेगळो सौर संप्रदाय निर्माण जालो. ह्या संप्रदायान सूर्य हें परमत्व मानून ताची उपासना सुरू केली.

भारतांतलीं सुर्याचीं देवळां चडकरून गुप्तकाळांत आनी ताचेउपरांतच्या काळांत बांदिल्लीं. ग्वाल्हेरच्या सूर्यकुंडाचे देगेर एक सुर्याचें देवूळ आशिल्ल्याचो पुरावो मेळ्ळा. हें देवूळ इ.स.च्या ३ ऱ्या शेंकड्याच्या शेवटाक निर्माण जालें आसुंये. इ.स.च्या पांचव्या शेंकड्यांत माळव्यांत मंदसौर हांगा एक सुर्याचें देवूळ उबारलें. स्कंदगुप्ताच्या काळांत इंदूर हांगाय सुर्याचें देवूळ उबारपांत आयलें. सगळ्यांत म्हत्त्वाचें सुर्याचें देवूळ मुलतान हांगा आसा. कोणार्क हांगाचें नामनेचें देवूळ जगन्नाथ पुरीचे ईशान्येक २० मैलांचेर आसा. पुरंदर केसरीन ह्या क्षेत्रांत पयलीं सुर्याचें देवूळ बांदलें. मागीर गंगवंशीय नरसिंहदेवान एक नवें सुर्याचें देवूळ बांदलें आनी तातूंत पोन्न्या देवळांतली सूर्यमूर्ती प्रस्थापित केली. सद्या आसा तें हेंच सुर्याचें देवूळ. हें देवूळ १३व्या शेंकड्यांत बांदलां असो अदमास आसा. ह्या देवळाचें खाशेलेंपण म्हणजे तें सगळें देवूळच रथाकार आसा. काश्मीरांतल्या मार्तंड क्षेत्रांतलेंय सुर्याचें देवूळ भग्नावस्थेंत आसा. गुजरातांतल्या खडायत ह्या गांवांत एक पुर्विल्लें सुर्याचें देवूळ आसून तें कोटचर्क ह्या नांवान प्रसिद्द आसा. गुजरातांतलें दुसरें नामनेचें सुर्याचें देवूळ मोढेरा हांगा आसा. थंय एक व्हडलें सूर्यकुंडय आसा.

पाटण, कथकोट, गोंप, पावागड, राजकोट, प्रभास, चाणोद आनी देवलार्क हांगाचीं सुर्याचीं देवळां नामनेचीं आसात. राजस्थानांत लोहार्गल, जोधपूर, ओसिया हांगाचीं पुर्विल्लीं सुर्याचीं देवळां प्रसिद्द आसात.

गयेंत दोन सुर्याचीं देवळां आसात. नीरत ह्या क्षेत्रांतलीं नागरशैलींत उबारिल्लीं पुर्विल्लीं सुर्याचीं देवळां आयजय उबीं आसात. अलमोडालागींच्या खेतीखान आनी कटरमल ह्या दोन गांवांत पोरनीं देवळां आसात. आसामांत तेजपूरलागच्या दाहबपतिया नांवाच्या गांवांतल्या शिवाच्या देवळांत एक सूर्यमूर्ती सांपडल्या. त्या गांवांत एक व्हडलें पुर्विल्लें सुर्याचें देवूळ आशिल्लें ताचे अवशेश आयजय सांपडटात. दक्षिणेंत तमिळनाडूंत एक सुर्याचें देवूळ आसून ताका सूर्यनारकोयल अशें म्हण्टात. आंध्रांतल्या आरसविल्ली हांगाय एक देवूळ आसा. तातुंतली सूर्यमूर्ती ओडलायणी. नासिक आनी औरंगाबाद हांगा यादव काळांतलीं बरींच सुर्याचीं देवळां आशिल्लीं अशें सांगतात. तशेंच कोरीव लेखांतय तांचे उल्लेख सांपडटात. पुर्विल्ल्या काळांत मानवसमुहान सुर्याक देवत्व दिल्लें. पूण सुर्याच्यो मूर्ती आनी देवळां बांदपाइतली ताची तांक नाशिल्ली. सुर्याचीं कांय प्रतीकां निर्माण करून त्याकाळांतलो मनीस सुर्याची पुजा करतालो. मौर्य आनी शुंग हांच्या काळांत सुर्याच्यो पुजेखातीर उपेगी अशो मूर्ती निर्माण जावपाक लागल्यो. बोधगया, भाजें, लालाभगत आनी हेर व्हॉवरींनीय सूर्यशिल्पां सांपडल्यांत. मथुरेच्या वाठारांत जायतीं कुशाणकालीन सूर्यशिल्पां मेळ्ळयांत. बंगालांतय राजशाही जिल्ह्यांत सूर्यमूर्ती सांपडल्यात. ह्यो मूर्ती इ.स. १ ते ३ऱ्या शेंकड्यांतल्यो आसुंये. गुप्तकालीन सूर्यशिल्पां मध्य प्रदेश, उदेंत आनी अस्तंत भारतांतय सांपडटात. ह्या सूर्यशिल्पांत इराणी आनी भारतीय अशा दोनय परंपरांचें सोबीत मिश्रण सांपडटा. इ.स.च्या सातव्या - आठव्या शेंकड्यांतली एक सोबीत सूर्यमूर्ती उदेंत भारतांत चौडुग्राम हांगा सांपडल्या. हिमालयांत आनी भोंवतणच्या वाठरांतय सूर्यशिल्पां सांपडल्यांत.

सूर्य आनी हेर गिरे आनी सूर्य आनी हेर देव हांच्यो संयुक्त मूर्तीय सांपडटात. कलकत्त्याच्या आशुतोष संग्रहालयांत सूर्य आनी लोकेश्वर (बौध्द) हांची संयुक्त प्रतिमा आसा. सूर्य आनी शिव हांचीय संयुक्त प्रतिमा सांपडटा. राजशाही संग्रहालयांत ब्रह्मा आनी सूर्य हांची इकराव्या शेंकड्यांतलीं संयुक्त प्रतिमा आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : सूर्य

## फा. सेंटीमानो, आंतोनियु जुवांव इनसियो, द :

(जल्म : १८१४, कोलवा; मरण : १८६४).

डायोसिजीचो गोंयकार राज्यपाल. कोचीन आनी क्रंगनोर (Crangnore) हांगाच्या डायोसिजीचो तो राज्यपाल आशिल्लो. कानरा प्रचारक मंडळाचो व्हीजीटेटर आशिल्लो. ऑलीकेर-क्रंगनोर हांगा ताणें एक शाळा स्थापन केली आनी थंय संगीत, लॅटीन, तमिळ, मल्याळम् आनी तत्त्वज्ञान हे विशय शिकोवंक लागलो. ताणें कांय हिंदुंचें धर्मांतर केलें आनी पुडुकोटो ह्या गांवांतल्या लोकांक प्रोटेस्टेंटीझमांतल्यान परत किरिस्तांव धर्माची दीक्षा दिली. पुलीचरी हांगा ताणें एक नवी इगर्ज बांदली. तशेंच मुडाक्रा (Mudacra) हांगाची इगर्ज सारकी केली.

- कों. वि. सं. मं.

**सेन, अमार्त्य :** (जल्म : ३ नोव्हेंबर १९३३ शांतिनिकेतन).

एक अर्थशास्त्रज्ञ. ताणें भौतिकशास्त्र आनी तत्त्वगिन्यानाचेर खूब लेख बरयल्यात. ताचो बापय आशुतोश सेन हो एक शेतकी विज्ञानीक आशिल्लो. ताचे आवयचें नांव अमीता जाल्यार बायलेचें एम्मी. ताचो जल्म शांतिनिकेतनांत जालो. ताचें मुळावें शिक्षणय शांतिनिकेतनांत जालें. अमार्त्य हें नांव ताका रविंद्रनाथ टागोरान दवरिल्लें. ताचें उंचेलें शिक्षण कलकत्त्याचे प्रेसिडेंसी कॉलेजींतल्यान घेतलें. फुडलें शिक्षण घेवपाखातीर तो कँब्रीजाचे त्रिनिटी कॉलेजींत गेलो. १९५६ - ५८ मेरेन ताणें जोधपुर विद्यापिठांत अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक म्हूण काम केलें. उपरांत तो दिल्ली विद्यापिठांत शिकोवपाक लागलो. १९७१ - ७७ मेरेन तो लंडन स्कूल ऑफ इकोनोमीक्स कॉलेजींत प्राध्यापक, १९७७ - ८० मेरेन ऑक्सफर्डचे न्यू फिल्ड कॉलेजींत प्राध्यापक, १९८० - ८७ मेरेन ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत अर्थशास्त्र प्राध्यापक, १९८७ ते ९८ मेरेन हार्वर्ड विद्यापिठांत अर्थशास्त्र प्राध्यापक जाल्यार १९९८ त ताची मास्टर ऑफ त्रिनिटी कॉलेज म्हूण नेमणूक जाली.



'ऑन इकोनॉमीक इनइक्वोलिटिज', 'पॉवरटी अँड फॅमायन' आनी ऑन इथिक्स् अँड इकोनॉमीज' हीं ताचीं अर्थशास्त्रावयलीं म्हत्वाचीं पुस्तकां. ताणें आपल्या लिखाणांतल्यान गरिबिचीं मूळ कारणां किदें तीं समाजामुखार मांडपाचो यत्न केला. तशेंच दर एका देशान आपल्या समाजाचो बारिकसाणेन अभ्यास करून देशाचें अर्थीक मुळावण कशें घालचें तें दाखयलां. १९८१ त बरयल्ल्या 'पॉवर्टी अँड फॅमायन' ह्या ताच्या पुस्तकाक १९९८ त अर्थशास्त्राखातीर आशिल्लो नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळा. तातूंत ताणें अन्नधान्याचो उणाव हें दुकळाचें एकच मुखेल कारण ना अशें सांगलां. ताणें १९७४ त बांगला देशांतलो दुकळ, भारतांतल्या, बांगला देशांतल्या तशेंच सहारा देशांतल्या अरिश्टांचो खोलायेन अभ्यास करून उपरांत येवपी अर्थीक आनी समाजीक संकश्टांचो नियाळ केला. १९७४ त बांगलादेशांत आयिल्ल्या दुकळाक लागून उपरांत सबंद देशांत अन्नधान्याचें मोल हिसपाभायर कशें वाडलें, शेतकामत्यांचो दिसवडो उणो कसो जालो आनी ते भुकेन कशे वळवळपाक लागले हें दाखोवन दिलां. ताच्या मतान अन्नधान्याचे सांठे खूब आसून लेगीत देशांत दुकळाची परिस्थिती निर्माण जांव येता. उपलब्ध सांठ्याची योग्यरितीन पुरवण करप ही खंयच्याय देशाची अर्थीक स्थिती उबारपाची योग्य पद्दत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सेन, केशवचंद्र :** समाजसुदारक. ब्राह्मो समाजाचो प्रवक्तो. राजा राममोहन रॉय हाच्या उपरांत ब्राह्मो समाजाचो वावर ताणें फुडें चलयलो. १८५७त तो ब्राह्मो समाजाचो वांगडी जालो. १८६१ वर्सा सावन तो त्या सामाजाचो मुखेल प्रचारक म्हूण वावुरपाक लागलो. १८६२त ब्राह्मो समाजाच्या मुखेल आचार्यपदाचेर ताची नेमणूक जाली. तो एक प्रभावी वक्तो आशिल्लो. ब्राह्मो समाजाच्या वांगड्यांची संख्या वाडोवपा खातीर तो खूब वावुरलो.

तो समाजसुदारक आशिल्लो, पूण ताची धर्माचेरय श्रध्दा आशिल्ली. ताच्या मतान, धर्मश्रध्दा ज्या मूलभूत सिध्दान्तांचेर आदारल्या, तार्चे बुध्दिनिश्ठ नदरेंतल्यान परिक्षण करचें, तशेंच बायलांशिक्षण, विधवांचें लग्न, आंतरजातीय लग्नां ह्या सारकील्ल्यो भौशिक सुदारणां घडोवन हाडपाचो मोलदीक वावर ताणें केलो. केशवचंद्रालीं हीं मतां ब्राह्मो समाजांतल्या जाण्ट्या वांगड्यांक मान्य नाशिल्लीं, देखून तांच्यांत मतभेद जावन १८६६ त केशवचंद्र सेन आनी ताच्या हेर वांगड्यांनी मेळून 'भारतवर्षीय ब्राह्मो समाज' ही संस्था स्थापीत केली. मुळावी संस्था 'आदीब्राह्मो समाज' म्हूण चालू उरली. केशवचंद्राच्या फुडारपणखाल नव्यान स्थापणूक जाल्ल्या ब्राह्मसमाजाच्या मताप्रमाण ब्राह्म धर्म हो भौशिक धर्म, जाल्यार आदीब्राह्मांच्या मताप्रमाण ब्राह्म धर्म हो हिंदू धर्माचोच एक फांटो. केशवचंद्रान जातीभेद आनी मूर्तीपुजेकय विरोध केल्लो.

केशवचंद्रान ब्राह्मो समाजाच्यो संस्था भारताच्या साबार प्रदेशांनी उबारिल्ल्यो. ताचें खाशेलेंपण म्हळयार तो राजकीय क्षेत्रासावन सदांच कुशीक रावलो. देखून ताच्या वावराक ब्रिटीश सरकारानय उत्तेजन दिल्लें. १८७२त ब्रिटिशांनी 'सिवील मॅरेज अॅक्ट' करून ब्राह्मलग्नांक मान्यताय दिल्ली. त्या कायद्या प्रमाण व्हंकलेची पिराय चवदा जाल्यार न्हवऱ्याची अठरा वर्सां आसपाक जाय आशिल्ली. पूण १८७८त केशवचंद्रान आपले अल्पपिरायेचे चलयेचें लग्न कुचबिहारच्या राजाकडेन केल्लें, तेन्ना ते चलयेची पिराय चवदा वर्सांपरस उणीं आनी न्हवऱ्याची फक्त पंदरा वर्सां आशिल्ली. त्याच प्रमाण तें लग्न ब्राह्मो समाजाचे पद्‌दतीन जायनासतना, वैदिक पद्‌दतीन जाल्लें. तेन्ना सेनाचेर टिकांचो शिंवर करून ताचे साबार वांगडी ताका सोडून गेले. तांणी 'साधारण ब्राह्मोसमाज' ही वेगळी संस्था काडली. उपरांत ताणें संवसारांतलीं सगळ्या धर्मांचीं मुखेल तत्त्वां एकठांय करून 'नवविधान' हो पंथ काडलो. पूण ताचो कल किरिस्तांव धर्माकडेन चड आशिल्ल्यान ताच्या पंथाक ल्हव ल्हव देंवती कळा लागली. ब्राह्मो समाज विंडिकेटेड (१८६२) आनी द न्यू संहिता (१८८३) अशें दोन ग्रंथ ताणें बरयले.

- कों. वि. सं. मं.

**सेन राजवंश :** मध्ययुगांत बंगालाचेर राज्य करपी एक वंश. ह्या वंशाचो मूळ पुरूस सामंतसेन, हो चालुक्य सम्राट विक्रमादित्य हाचो एक सेनापती आशिल्लो. विक्रमादित्यान ११व्या शतमानाचे निमाणें

बंगालाचेर घुरी घाली तेन्ना, तोय ताचेवांगडा गेल्लो. हे घुरयेंत सामंतसेनान ओरिसांत सुवर्णरेखा न्हंयेचे देगेर काशीपुरी नांवाच्या वाठारांत एक राज्य स्थापन केलें. तरी थंय ताणें आनी ताच्या पुतान हेमंतसेनान सामंत म्हणूनच राज्य केलें. पूण हेमंतसेनाचो पूत विजयसेन हो त्या वंशांतलो पयलो स्वतंत्र राजा.

सामंतसेनाचें क्षत्रिय घराणें कर्नाटकांतलें. ते स्वताक ब्रह्मक्षेत्रीय मानताले. ताचे आनी हेमंतसेनाचे राजवटीविशीं व्हडलीशी म्हायती मेळना.

**विजयसेन :** (इ.स. १०९५ - ११५८). हाणें रामपाल राजाक कैवार्तांचेर घुरी घालपाक आदार दिल्लो. हाचेवयल्यान तो ताचो सामंत आसुयें. फुडें ताचो पूत महीपाल हाका हारोवन विजयसेन स्वतंत्र राजा जालो. विक्रमपूर हांगा ताणें आपली राजधानी स्थापन केली. ताची पट्टराणी विलासदेवी ही राढ (मंदार) वाठारांतल्या लक्ष्मीसूर नांवाच्या राजाची चली.

विजयसेनान कौशांबी, कनौज, मिथिला ह्या नगरांचेर घुरयो घालून थंय आपली सत्ता स्थापन केली. इ.स.च्या १२ व्या शतमानाच्या मध्यांत गौड, वंग आनी राढ ह्या वाठाराचेरय ताणें आपली अधिसत्ता स्थापन केल्ल्याचे उल्लेख मेळटात. दक्षिण देगेवयलो खादीमंडल होय वाठार ताणें जिखून घेतलो. कलिंग देशारय ताणें घुरी घाल्ली. अशेतरेन पुराय बंगालाचेर आपली सत्ता प्रस्थापित करून आनी भोंवतणच्या वाठाराचेर अधिसत्ता स्थापन करून 'अरिराजवृषभशंकर' ही पदवी धारण केली. ताणें बंगालांत वैदिक धर्माची स्थापना केली. ताणें जायतीं शिवाचीं देवळां बांदलीं. तातुंतलें देवपारा हांगाचें प्रद्युम्नेश्वराचें देवूळ उल्लेख करपासारकें. ताणें जायतीं तळीं बांदलीं. ताणें विजयपूर हें नवें नगर स्थापून थंय आपली दुसरी राजधानी केली. ताका इ.स.११५८त मरण आयलें.

**बल्लाळसेन :** (इ.स. ११५८ ते ११७८). विजयसेना उपरांत हो राजा जालो. ताणें आपल्या बापायचे राजवटींतच मिथिलेचेर घुरी घालून ताचेर जैत जोडिल्लें. ताणें निःशंकशंकर आनी गौडेश्वर ह्यो पदव्यो घेतिल्ल्यो. वंग, वगादी, वरेंद्र राढ आनी मिथिला ह्या वाठाराचेर ताची सत्ता आशिल्ली. गौडपूर, विक्रमपूर आनी सुवर्णग्राम ह्या तीन वाठारांत ताच्यो तीन राजधानी आशिल्ल्यो.

तो स्वता विद्वान आशिल्लो. ताणें पुराणा स्मृतीग्रंथांचो अभ्यास केल्लो. ताणें दानसागर आनी अद्‌भुतसागर हे दोन ग्रंथ रचले. ताणें कौलमताची स्थापना केली आनी बंगालांत चातुर्वर्ण्याची पुनर्घटना केली अशें म्हण्टात. ताची बायल रामदेवी (रण्णदेवी) चालुक्यसम्राट विक्रमादित्याची धूव. ताच्या काळांत राजमाता विलासदेवी हिणें राढ वाठारांत गंगेचे देगेर हेमस्वमहादान समारंभ केलो.

**लक्ष्मणसेन :** (इ.स. ११७८ - १२०५). बल्लाळसेना उपरांत ताचो पूत लक्ष्मणसेन राजा जालो. ताणें 'अरिराज - मदन - शंकर' ही पदवी घेतली. सुरवेक ताची विक्रमपूर हीच राजधानी आशिल्ली. उपरांत ताणें धार्यग्राम हांगां दुसरी राजधानी स्थापन केली. तो एक बरो सेनापती आशिल्लो. बापूय आनी आजो हांचेवांगडा रणाचेर वचून ताणें जायतेफावट पराक्रम गाजयल्लो. ताणें काशीच्या तशेंच कामरुपाच्या राजांचेर जैत जोडिल्लें. पुरी, वाराणसी आनी प्रयाग हांगा जयस्तंभ उबारिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

इ.स. १२व्या शतमानाच्या निमण्या दशकांत बख्तियार खिलजीन बंगालाचेर घुरी घालून लक्ष्मणसेनाक हारयलो. तेन्ना लक्ष्मणसेन थंयच्यान पळून गेलो. बंगालचो अस्तंत वाठार जरी खिलजीन हाताशिल्लो तरी उदेंत आनी दक्षिण वाठारांचेर मात सेनांची सत्ता चालू उरली.

लक्ष्मणसेन हो हुशार झुजारी आनी बरो कवी. अद्‌भुतसागर हो अपुरो ग्रंथ ताणें पुराय केलो. ताच्या दरबारांत गीत गोविंदाचो कर्तो जयदेव आनी पवनदुताचो कर्तो धोयिक हे कवी आशिल्ले. ताणें जायत्या विद्वानांक आलाशिरो दिल्लो. ताणें लक्ष्मणावती (लखनौती) हांगा दुसरी राजधानी स्थापन केल्ली. ताका जायत्यो राणयो, तशेंच विश्वरूपसेन आनी केशवसेन अशे दोन पूत आशिल्ले.

**विश्वरूपसेन :** (इ.स. १२०५ - १२१८). लक्ष्मणसेना उपरांत ताचो व्हडलो पूत विश्वरूपसेन वंग देशाचो राजा जालो. ताणें 'वृषभांकशंकर' ही पदवी धारण केल्ली. त्यावेळार राढ आनी वरेंद्र हे वाठार मुसलमानांच्या ताब्यांत आशिल्ले. लखनौतीचो सुलतान घियासुद्दीन हाणें इ.स. १२१६त वंग देशाचेर घुरी घाली तेन्ना विश्वरूपसेन, ताका पुराय तरेन हारयलो. ताका कुमार आनी पुरूषोत्तम नांवाचे दोन पूत आशिल्ले.

**केशवसेन :** (इ.स. १२१८ - १२४५). हो विश्वरूपाचो भाव ताचे गादयेर बसलो. ताणें 'असहायशंकर' ही पदवी धारण केल्ली. इ.स. १२३२ च्या सुमाराक मुसलमानांनी वंग देशार घुरी घाल्ली. पूण केशवसेनान ताका हारयलो. इ.स. १२४५ मेरेन वंग देशाचेर सेनांची सत्ता आशिल्ली. उपरांत इ.स. १२५० च्या सुमाराक देव घराण्यांतल्या दनुजमाधव दशरथदेव नांवाच्या राजाकडसून ती सत्ता नश्ट जाल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**सेनेगल :** आफ्रिका खंडांतलो एक वायव्येकडचो देश. हो आफ्रिका खंडांतलो साप्प अस्तंतेक आशिल्लो देश. क्षेत्रफळ - १९६, १९२ चौ. किमी. विस्तार १२° - १७° उत्तर अक्षांश आनी ११° - १७° अस्तंत रेखांश. देशाचे अस्तंतेक ॲटलांटीक म्हासागर, उत्तरेक मॉरिटेनिया आनी सेनेगल न्हंय, उदेंतेक फालेगे न्हंय आनी माली देश, जाल्यार दक्षिणेक गिनी आनी पुर्तुगीज गिनी देश आसात. गॅम्बिया ह्या धाकटुल्या देशान सेनेगलचो दक्षिणेकडचो कॅसामान्स हो भाग उत्तरेकडच्या व्हड भागासावन वेगळो केला. डाकर हें सेनेगलचें राजपाटण. तशेंच तें

देशातलें सगळयांत व्हडलें शार आनी वेवसायीक केंद्र.

**भूंयवर्णन :** सेनेगल हो मुखेलपणान सपाट भूंयप्रदेश. भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे सादरणपणान तीन वांटे केल्यात ते अशे- (१) कॅप वर्ट, हो देशाचो साप्प अस्तंतेकडचो भाग आसून, थंय ज्वालामुखीसावन तयार जाल्ल्या तळपांचे ल्हान ल्हान सडे आसात. (२) दुसरो आग्नेय आनी उदेंतेकडचो भाग. ह्या भागांत कांय पर्वतांच्यो रांको आसून फॅाटा जॅालोन तातुंतली सगळयांत व्हड. ती वळ दक्षिण शिमेचेर आसा. (३) तिसरो भाग हो अस्तंतेकडचो कॅपवर्ट आनी उदेंतेकडच्या पर्वतीय भांगामदलो उथळ पाणटो. देशाक ४११ किमी. लांबायेची दर्यादिग लाभिल्ली आसून, कांय वेळांचेर ल्हान ल्हान रेवांट दोंगुल्ल्योय आसात. सेनेगल, सालोम, गॅम्बिया आनी कॅसामन्स ह्यो देशांतल्यो मुखेल न्हंयो.

प्रदेशाप्रमाण हवामानांत फरक जाणवता. दर्यादिगांनी शिंयाळे चड शितळ उरता. त्या दिसांनी तापमान १७° सॅ. मेरेन सकल देवता, जाल्यार गिमांत तें २७° सॅ. मेरेन वयर चडटा. ह्या भागांत पावशी ऋतू जून ते ऑक्टोबर मेरेन उरता. ह्या भागांत सरासरी पावस २ इंच इतलो पडटा. देशाच्या ईशान्य भागांत शिंयाळो खूब कडक आसून, जानेवारी म्हयन्यांत तापमान १४° सॅ. मेरेन सकल देंवता. ह्या भागांत गिमय कडक उरता. त्या प्रदेशांतले पोदोर आनी मायम हे अतीउश्णतायेचे भाग.

दक्षिणेकडच्या कॅसामन्स भागांत दाट रानां पातळळयांत. उत्तरेकडेन तीं पातळ जायत गेल्यांत. बेकायदेशीर शिकारेक लागून मोनजातीच्यो साबार जाती नश्ट वा उण्यो जाल्यात. हत्ती, वाग, शींव, बिबटो, चित्तो, अँटीलोप आनी कोल्ले दाट रानांनी सांपडटात. माकडाच्यो साबार जातीय हांगा दिश्टी पडटात. सरपटपी मोनजातींत मानगें, शेड्डे, कांसव, विखयाळे आनी साद्या सोरपांचो आस्पाव जाता.

**इतिहास :** इतिहास पयलीं काळासावन सेनेगल देशांत खाप्री लोकांचो आस्पाव आशिल्लो असो समज आसा. इ.स. ३०० ते १५०० मेरेन घाना, माली आनी सोंघाय ह्या आदीम अस्तंती आफ्रिकी साम्राज्यांचो उदेंतेकडच्या प्रदेशांचेर शेक आसलो. इ.स. १००० आनी १३०० मजगतीं सेनेगलाभितर कांय स्वतंत्र राज्यां अस्तित्वांत आयलीं. तातुंतलीं उत्तरेकडचें टॅाक्युलियर, मध्य भागांतलीं सेरर आनी वॅालोफ राज्यां मुखेल.

इ.स. १४००त पुर्तुगेज तारवट्यांनी गॅम्बिया आनी कॅसामन्स न्हंयेचो सोद लायलो. हे न्हंयेतल्यान ते सेनेगलाच्या भितरल्या प्रदेशांनी रिगून थंयच्या लोकांकडेन वेपार करपाक लागले. १५००च्या सुमाराक इंग्लंड, फ्रांस आनी डच लोकांनी पुर्तुगेजांकडच्यान वेपार आपल्या हातांत घेतलो. १६००च्या मध्याक ह्या युरोपी लोकांनी सेनेगलाचे दर्यादिगेर आपआपलीं स्वतंत्र वेपारी केंद्रां उबारिल्लीं. हे लोक थळाव्या लोकांक सोरो, लुगट, दागिने, लोखणाच्यो पट्ट्यो आनी हेर हत्यारां विकून तांचेकडच्यान भांगर, हस्तिदंत, कड्डुण आनी मुखेलपणान गुलाम विकते घेताले. युरोपी लोकांनी त्या भागांत व्हड प्रमाणांत भुंयमुगाची लागवड केली. उपरांत इंग्लंड, फ्रांस आनी डचांभितर हांगाचीं वेपारी केंद्रां मेळोवपाखातीर आपसांत झगडीं जावपाक लागलीं. सतराव्या शेंकड्याच्या निमाणेकडेन डच वेपारी हे सर्तीतल्यान भायर पडले. १८१७त इंग्लीश वेपाऱ्यांनी सेनेगलांतले आपले सगळे वाठार फ्रेंचांक दिले. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक फ्रेंच सैन्यान उदेंतेकडचो कांय भाग आपल्या शेकातळा हाडलो. १८८२त फ्रेंचान सेनेगल ही फ्रेंच वसणूक करून, ती चार शासकी भागांत विभागली. १८९५त ही वसणूक 'फ्रेंच वेस्ट आफ्रिका' ह्या नांवान फ्रेंच संघराज्याचो एक वांटो जालो. डाकर हें संघराज्याचें राजपाटण जालें.

फ्रेंच राजवटीखाल सेनेगलांत खूब बदल घडून आयले. फ्रेंच राजवटींत माराबाउट ह्या मुसलमान धर्मगुरूंक चड म्हत्त्व प्राप्त जालें. तांणी आदिवासी मुखेल्यांची सुवात घेवन, आपूण जमिनदार आनी राजकीय मुखेली जाले. आदल्या तेंपार सेनेगलाच्या वेगवेगळ्या प्रदेशांतल्या लोकांचेर थंयच्या आदिवासी मुखेल्यांचो शेक चलतालो. पूण फ्रेंचांनी तांचो शेक मोडून उडयलो. अर्थीक मळार स्वंयपुर्णता हाडपाखातीर फ्रेंच राज्यकर्त्यांनी सेनेगलच्या लोकांक भूंयमूगाची लागवड करपाक उत्तेजीत केले. तेचप्रमाण फ्रेंच लोकांनी थळाव्या लोकांखातीर खूब नव्यो शाळा उबारल्यो.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत सेनेगल लोक स्वातंत्र्याची मागणी करपाक लागले. १९५६त सेनेगलाक अंतर्गत राजकीय हक्क मेळळे. १९५९त फॅडरेशन ऑफ माली घडोवन हाडचेखातीर सेनेगल देश मालीक मेळळो. २० जून १९६० दिसा ह्या संघराश्ट्राक स्वातंत्र्य मेळळें. उपरांत २० ऑगस्ट १९६० दिसा सेनेगल संघराश्ट्रातल्यान भायर सरून सेनेगल प्रजासत्ताकाची घोशणा केली. लिओपोल्ड सेडार सेंघोर हो सेनेगलच्या सामाजीक पक्षाचो संस्थापक प्रजासत्ताकाचो पयलो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९६२त प्रधानमंत्री मामादो दिआ हाणें सेंघोरचें सरकार मोडून उडोवपाचो यत्न केल्लो म्हूण ताका बारा वर्सां बंदखणींत दवरलो. १९६३त देहान नवें संविधान आपणावन प्रधानमंत्र्याचें पद काडून उडयलें. पूण १९७०त जनमत घेवन तें पद परतून हाडलें.

१९६० आनी १९७०त पडिल्ल्या व्हड दुश्काळाक लागून सेनेगलाची अर्थीक आनी भौशिक स्थिती खूब इबाडली. १९८१त राश्ट्राध्यक्ष सेंघारान आपल्या पदाक सोडचीट दिल्याउपरांत प्रधानमंत्री ॲब्दो दिओफ नवो राश्ट्राध्यक्ष जालो.

सेनेगलान आपल्या शेजाऱ्यांकडेन बरे संबंद दवरल्यात. सेनेगल आनी गॅम्बिया देशांमदले संबंद खूब लागिंचे आसात. १९८१त गॅम्बियेंत व्हड उठाव जाल्लो तेन्ना सेनेगलान आपलें सैन्य थंय धाडून तो उठाव मोडून उडयलो. १९८२त सेनेगल आनी गॅम्बिया

देशांनी मेळून सेनेगॅम्बिया हो राश्ट्रसंघ घडोवन हाडलो. दोनय देशांतलें सैन्य एकठांय हाडप आनी अर्थीक सुदारणा हो ह्या संघाचो मुखेल हेत. सेनेगलान फ्रांसाकडेनय आपले संबंद बरे दवरल्यात. फ्रांस ताका आर्थिक आनी सैनिकी आदार करता आनी फाव तो सल्लो दिता.

**राज्यवेवस्था :** सेनेगल हें एक प्रजासत्ताक. राश्ट्राध्यक्ष हो राश्ट्राचो मुखेली. ताची वेंचणूक प्रौढ मतअधिकाराच्या तत्वाप्रमाण दर पांच वर्सांनी जाता. तो प्रधानमंत्री आनी कॅबिनेट वांगड्यांची नेमणूक करता. मंत्रीमंडळाच्या धोरणांप्रमाण शासन चलता. नॅशनल ॲसेंब्ली देशांतले कायदे करपी संस्था म्हूण वावुरता. पूण ॲसेंम्बलीन पास केल्ले कायदे आपणावपाचे वा भायरावपाचे अधिकार राश्ट्राध्यक्षाक आसा. नॅशनल ॲसेंम्बलीच्याय वांगड्यांची वेंचणूक दर पांच वर्सांनी जाता. २१ वर्सां पुराय जाल्ल्या नागरिकाक मतदान करपाचो अधिकार आसा. सेनेगलांत वेगवेगळे खूब राजकी पक्ष आसात. पूण १९६०त स्वातंत्र्य मेळेत मेरेन सेनेगलाचो सोशलीस्ट पक्षच सत्तेर आसा. देशांतली न्यायवेवस्था सुप्रीम कोर्ट आनी तीन कनिश्ठ न्यायालयांनी विभागल्या.

**अर्थवेवस्था :** सेनेगल हो एक विकसनशील देश. दारिद्र्य शिमेखाल रावपी लोकांची संख्या खूब आसा. पूण स्वातंत्र्य मेळत मेरेन देशाची अर्थीक स्थिती नेटान सुदारत आसा.

शेतवड हो देशांतलो म्हत्वाचो वेवसाय. देशांतले सुमार तीन चथुर्थांश लोक शेतवडींत वावुरतात. कडुण, कसावा, भात आनी भाजीपालो देशांतली गरज भागोवपाइतलोच पिकता. भूंयमूग (भिकणां) हें देशांतलें मुखेल पीक. पोल्ट्री आनी कापूस हांचेसावनय देशाक खूब येणावळ मेळटा.

भिकणांचेर प्रक्रिया करून तेल काडप आनी तेल आटोवन तार्ची कापां करप हो देशांतलो मुखेल उद्देग. तेलशुद्धीकरण, नुस्तेंमारी आनी नुस्तेंप्रक्रिया, ह्या सारकिल्ले उद्देगय थंय कांय प्रमाणांत चलतात. फॉस्फेट हें देशांतलें मुखेल खनीज.

भूंयमूग, फॉस्फेट आनी नुस्तें हांचो निर्यात जावपी म्हालांत म्हत्त्वाचो वांटो आसा. आयात जावपी म्हालांत अन्नपदार्थ, मशिनां आनी विद्युत् अवजरांचो आस्पाव जाता. खनीज तेल आनी फांतरी कोळशाचीय व्हड प्रमाणांत निर्यात करची पडटा. एकुणिसाव्या शेंकड्यासावन सेनेगलाचे मुखेलपणान फ्रांसाकडेन वेपारी संबंद आसात. पूण हालीतेंपार तांणी आफ्रिका आनी आशियेंतल्या हेर देशांकडेनय आपले वेपारी संबंद वाडयल्यात. डाकर हें देशांतलें मुखेल वेपारी केंद्र.

देशांतली येरादारी वेवस्था बरी आसा. रस्ते आनी रेल्वे मार्गांचें जाळें देशभर पातळ्ळां. डाकर शारांत आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आनी देशांतलें मुखेल बंदर आसा. टपाल आनी टेलिफोन हांची बरी वेवस्था आसा. देशांत दोन रेडिओ आनी दोन दूरचित्रवाणी केंद्रां आसात. 'ले सोलेयल' हें देशातलें मुखेल दिसाळें.

**लोक आनी समाजजीण :** सेनेगलांतले सुमार ९५% लोक खाप्री. पूण तांचे वेगवगेळे वांशीक गट आसात. वॉलोफ, फुलानी, सेरर, टॉक्युलेर, डाओला आनी मांडिन्गो हे तांच्यांतले मुखेल. वेगवगेळ्या वांशीक गटांच्यो चालिरिती आनी भाशाय वेगवेगळी आसा. आफ्रिका खंडांतल्यान आयिल्ले हेर लोक तशेंच फ्रेंच आनी लेबानी लोकय कांय प्रमाणांत थंय आसात. देशांतले सुमार ८५% लोक मुसलमान. उरिल्ले किरिस्तांव वा पारंपारीक आफ्रिकी धर्माचे. देशांतले चडशे मुसलमान लोक मौरायड भाविक (Brotherhood) वा तिद्‌जानिया भाविक धर्मीय पंगडाचे. माराबाउट हो ह्या भाविकांचो धर्मीक मुखेली. देशांतले ६०% वयर लोक गांवगिऱ्या वाठारांनी रावतात.

फ्रेंच ही सेनेगलाची राश्ट्रभास. पूण देशांतले चडशे लोक वॉलोफ भास उलयतात. देशांतल्या निरक्षर लोकांचो आंकडो व्हड आसा. कायद्यान मुळावें शिक्षण सक्तीचें आनी फुकट आसा. डाकर विश्वविद्यालय हें देशांतलें एकमेव विश्वविद्यालय.

- कों. वि. सं. मं.

## सैंधव राजवंश

**सैंधव राजवंश :** सौराश्ट्रांतलो एक राजवंश. जयद्रथवंश हें ह्या राजवंशाचें दुसरें नांव. इ.स. ७५० ते १००० ह्या काळांत सौराश्ट्रांत खूब ल्हान व्हड राजवंश जावन गेले. सैंधव हो तातुंतलो पयलो राजवंश. ह्या घराण्याचो अंमल सौराश्ट्राचे अस्तंतेवटेन चलतालो. भूतांबिलिका वा भूमिलिका ही ताची राजधानी (सध्याचें घुमली शार). पोरबंदरचे ईशान्येक बरदा दोंगुल्यांनी ती वसल्या. ह्या सैंधव राजवंशांत बारा राजा जावन गेले. ते मांडलिक म्हणून राज्य चलयताले. पूण तांच्या साम्राज्याविशीं कांयच उल्लेख मेळना.

**पुष्यदेव :** सैंधव वंशांतलो हो पयलो राजा. इ.स.च्या आठव्या शेंकड्याच्या पुर्वार्धांत हो जावन गेलो. हाचे कारकिर्दींत इ.स. ७३९च्या अदमासाक सिंध प्रांतांतल्या अरबांनी हाचेर धुरी घाली. राश्ट्रकूट वंशांतल्या दंतिदुर्ग राजानय पुष्यदेवाचेर घुरी घालून ताका हारयलो आसुये.

**कृष्णराज (पयलो) :** पुष्यदेवा उपरांत ताचो पूत कृष्णराय हो गादयेर बसलो.

**अग्गुक (पयलो) :** हो कृष्णराजाचो पूत इ.स.च्या आठव्या - शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत हाचो शेक चलतालो. ह्या दोनय राजांचे कारकिर्दींत अरबांनी सौराश्ट्राचेर दर्यावटेनच्यान घुरयो घातल्यो. इ.स. ७५६ च्या अदमासाक सिंध प्रांताचेर हिशाम नांवाच्या मनशाची राजमुखेल म्हणून नेमणूक जाली. ताणें आपल्या एका सरदारावांगडा व्हड आरमार दिवन ताका बरदा किनाऱ्याचेर धाडलो. सैंधव राजांकडेय

पराक्रमी नाविक दल आशिल्लें. ताणें अरब आरमाराक नाका पुरो करून धावंडावन घाले. ताचेउपरांत वीस वर्सांनी सुमार इ.स. ७७६ च्या अदमासाक अरबांनी बरदा प्रांताचेर परतून आरमारी हल्लो केलो. पूण हेय खेपेक सैंधव राजान तांकां हारयले. अग्गुकानच तांकां हारयले.

**राणक (पयलो) :** हो अग्गुकाचो पूत. अग्गुकाफाटल्यान राणक (पयलो) गादयेर बसलो. ताणें इ.स.च्या णवव्या शेंकड्यांच्या पुर्वार्धांत राज्य केलें. हाचे कारकिर्दींत प्रतिहार वंशांतलो राजा दुसरो नागभट्ट हाणें सौराष्ट्राचेर घुरी घालून ताचो पराभव केलो. राणकाक दोन राणयो आसून, तांकां कृष्णराज (दुसरो) आनी जैक (पयलो) अशे दोन पूत आशिल्ले.

**कृष्णराज (दुसरो) :** राणका फाटल्यान ताचो पूत कृष्णराज हो सैंधवांचे गादयेर बसलो. तो राज्याचेर येतपसून सैंधव आनी वर्धमानपुराच्या चाप घराण्यांतलो राजमुखेली विक्रमार्क हांचें सदांच झूज चालू आशिल्लें. पूण कृष्णराजान ताका योग्य रितीन तोंड दिवन पर्वत प्रांतांतल्या लोकांक सुखी केले असो उल्लेख मेळटा. पूण अल्प वयांतच ताका मरण आयलें.

**अग्गुक (दुसरो) :** हो दुसरो कृष्णराजाचो पूत बापायफाटल्यान गादयेर बसलो. पूण पिरायेन ल्हान आशिल्ल्यान ताचो सवती चुलतो जैक (पयलो) हो राजप्रतिनिधी म्हणून राज्यकारभार पळोवंक लागलो. पूण फुडें आपल्या पुतणयाक कुशीक काडून ताणें आपल्याच नांवाचेर राज्यकारभार चालू केलो.

**जैक (पयलो) :** हाणें वर्धमानपूरच्या चाप घराण्यांतल्या राजाचेर व्हड जैत मेळयलें. हाका चामुंडराय आनी अग्गुक (तिसरो) अशे दोन चले आशिल्ले.

**चामुंडराय :** पयल्या जैकाउपरांत चामुंडराय गादयेर बसलो. पूण ताचेविशीं चडशी म्हायती मेळना.

**अग्गुक (तिसरो) :** चामुंडराया उपरांत ताचो भाव अग्गुक (तिसरो) हो गादयेर बसलो. ताका राणक नांवाचो चलो आशिल्लो. अग्गुकान बरोच काळ राज्य करतकच आपल्या पुताक गादयेर बसयलो. हाका लागून राज्याचो खरो वारस ताचो पुतणयो - अग्गुक (चवथो) हाका कुशीक दवरलो.

**राणक (दुसरो) :** इ.स. ८७४ च्या अदमासाक हो बापायच्या फाटल्यान गादयेर बसलो. ताचो पूत जैक हाका युवराजपदाचो अधिकार दिल्लो. पूण राणका उपरांत चामुंडरायाचो पूत अग्गुक (चवथो) हो गादयेर बसलो.

**अग्गुक (चवथो) :** दुसऱ्या राणकाउपरांत ताचो बापोलभाव चवथो अग्गुक गादयेर बसलो.

**जैक (दुसरो) :** चवथ्या अग्गुका उपरांत ताचो पूत दुसरो जैक हो गादयेर बसलो. ताणें स्वताक महासामंताधिपती अशी पदवी घेतली. ताची कारकीर्द इ.स. ९०४ सावन ९१५ मेरेन जाली. सैंधव राजघराण्यांतलो ज्ञात असो हो निमाणचो राजा.

इ.स.च्या धाव्या शेंकड्यांत जैक (दुसरो) हाचे फाटल्यान आयिल्ल्या आभीर घराण्यांतल्या गृहरिपू हाणें सैंधवांचो उच्छेद केलो आसुंये असो उल्लेख मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**सैल, महाबळेश्वर दत्ता :** (जल्म : ४ ऑगस्ट १९४३, माजाळी कारवार).

नामनेचो कोंकणी साहित्यीक. ताच्या बापायचें नांव दत्ता आनी आवयचें नांव महालक्ष्मी. ताचें सातवी मेरेनचें शिक्षण कन्नड माध्यमांतल्यान माजाळच्या सानमुडगेरी शाळेंत जालें. पिरायेच्या १७व्या वर्सा म्हळयार ३१- -१९६१त तो भारतीय लश्करांत भरती जालो. थंय आसतना गोंय मुक्ती संग्रामानिमतान जाल्ले भारतीय लश्करी कारवायेंत ताणें वांटो घेतलो. १९६३ - ६४ वर्सा संयुक्त राश्ट्र संघाच्या आपत्कालीक सैनीक दळांत शांती सैनीक म्हूण इजीप्त - इस्रायल शिमेचेर तो वावुरलो. १९६५ वर्सा भारत - पाक झुजावेळार पंजाबच्या हुसेनवाला सेक्टरांत ताणें सक्रीय वांटो घेतलो.



सात वर्सां सैन्यांत काडल्याउपरांत आपखोशयेची निवृत्ती स्विकारून १९६८ वर्सा तो गोंयांत आयलो. त्याच वर्सा वाळपयच्या पोलीस् ट्रेनींग स्कुलांत ड्रील इन्स्पेक्टर म्हूण सेवेंत रुजू जालो. थंय अडेज वर्सां काम केल्याउपरांत १९७० वर्सा तो पणजे टेलेग्राफीस्ट म्हूण पोस्ट खात्याचे सेवेंत आयलो. उपरांत साश्टी, तिसवाडी, सांगें, काणकोण अशे गोंयांत तेचप्रमाण गोंयाभायर पुणें हांगाय ताणें काम केलां. सद्या तो चावडी काणकोण हांगा पोस्ट ऑफिसांत वरिश्ठ पोस्ट मास्तर म्हूण हुद्दो सांबाळटा.

१९७२ वर्सा पुण्यांत बदली जावन गेल्लो. त्या वेळार मराठा पेपर्स हे संस्थेच्या 'नवयूग' ह्या आचार्य अत्रे स्मृती दिवाळी अंकांत ताणें आपली मराठींतल्यान 'कोंडमारा' ही पयली वयली कथा उजवाडायली. हीच ताच्या साहित्यीक जिणेची सुरवात थारली. फुडाराक ताणें सातत्यान साहित्य निर्मिती केली. ताचें साहित्य म्हळयार कथा झेले 'पलतडचें तारू' (१९८९) आनी 'तरंगां' (१९९१). कादंबऱ्यो 'काळी गंगा' (१९९७), 'अदृश्ट आनी अरण्यकांड' (१९९८), दोन वेगवेगळ्या कादंबऱ्यांचो एक संच. ते भायर 'काळभोंवरो' ही एक पुराय बरोवन तयार जाल्ली कादंबरी खिस्ती - खिस्तिनी, सुनापरान्त, राष्ट्रमत ह्या दिसाळ्यांनी उजवाडा आयल्या.

साहित्यीक जिणेच्या सुरवेच्या काळांत तांणे मराठी बरप केलें. तातूंत हौशी रंगभूयेर चलपासारकीं चार वेगवेगळीं ताचीं

नाटकां पुस्तकरुपान उजवाडा आयल्यांत. ''नको जाळूं माझं घरटं'' (१९७४), 'चरित्रहीन' (१९७६), 'शरणांगती' (१९७७), 'यातनाचक्र' (१९७९) या नाटकांचे प्रयोग गोंयांत, महाराष्ट्रांत, कारवारांत जाल्यात. तांच्यो बऱ्योचशो मराठी कथा-सत्यकथा, स्वराज्य, माणूस, हंस ह्या नियतकालीकांनी उजवाडा आयल्यात. ताच्या 'तरंगां' ह्या कथा संग्रहाक १९९३ वर्साचो केंद्रिय साहित्य अकादमीचो पुरस्कार तेच प्रमाण १९९२ वर्सा कोंकणी भाशा मंडळ - गोंय हांचो पुरस्कार फावो जालो. 'पलतडचें तारूं' ह्या कथा झेल्याक १९९२ वर्सा गोवा कला अकादमीचो पुरस्कार, 'काळी गंगा' हे कादंबरीक १९९७ वर्सा गोवा कला अकादमीचो, तेच प्रमाण डॉ. टि. एम. ए. पै फांउडेशनचो अशे पुरस्कार फावो जाल्यात. ताच्यो कथा इंग्लीश, कन्नड, मराठी भासांनीय अणकारीत जाल्यात.

ताचे 'हावठण' हे कथेच्या इंग्लिशींतल्या अणकाराक राश्ट्रीय पांवडयाच्या 'ह्यूमन स्केप' हे मुंबयचे संस्थेचो पुरस्कार फावो जाला. तो कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादमीचो आदलो वांगडी आसा. कोंकणी बरोबर कन्नड, गुजराती, मराठी, हिंदी, इंग्लीश ह्यो भासो तो जाणा.

कोंकणी कथा, कादंबरी साहित्यीक प्रकाराक एक वेगळोच घाट आनी थाट ताणें जोडून दिला. रसरशीत अणभवांचो धग - हुलोप पचयत तयार जाल्ली ताची साहित्यीक वृत्ती सर्वस्पर्शी विशयांचीं मळां बेधडक पळयताना दिसता. वास्तव, अणभव आनी कलात्मकतेच्या धर्गींतल्यान पसवपी ताच्या विविधांगी साहित्यीक स्वताची अशी धार आनी कांत चडल्या. मनीस होच सर्वसमावेशक रसायन मानून ताच्या आदारान जिवीताचीं गुमानितां सोडोवपाचे नवे प्रयोग ताच्या साहित्यांत जाल्ले दिसतात. सृश्टिची आनी मनशाची वास्तव आनी प्रतिकात्मक अशीं कितलिशींच रुपां अभिव्यक्त जातना दिसतात. माजाळी कारवारच्या वातावरणांतल्या कोंकणी लोकांचे अंतरंग पयली खेप ज्या कोंकणी लेखकांनी आपल्या साहित्यांत यशस्वी रितीन हाडले तातूंत महाबळेश्वराचें येगदान व्हड आनी ऊंच आसा. वातावरण आनी मनीस आसा तसो जिवो तटतटीत उबो करपाची ताची भास शैली चित्रट घटी अप्रूप आसा.

- प्रा. पुर्णानंद च्यारी

**सोनकोळी :** कोळी लोकांचो एक पोटभेद. सोनकोळी लोकांची वसती उत्तर कोंकण देगेचेर वसईच्यान रत्नागिरीमेरेन आसा. मुंबयच्या वेसावा वा वरसोवा, दांडा, वरळी, कुलाबा, मांडवी, चौपाटी, माझगाव, धारावी, माहीम, शीव ह्या भागांत सोनकोळयांची बरीच वसती आसा. इ.स.च्या १५ व्या शेंकडयापसून हे हांगा रावपाक लागले.

तांकां सोनकळी हें नांव कशें फाव जालें तेविशीं ते उपपत्ती सांगतात ती अशी -

खंडोबा ह्या तांच्या देवाक भंडार (हळद) खूब मानवता. ते सदां आपल्या कपलाक भंडार लायतात आनी सणादिसांनी खूब भंडार उधळटात. भंडाराचो कोर भांगराभशेन हळदुवो आसता. देखून आपल्याक सोनकळी हें नांव मेळ्ळें अशें ते सांगतात.

थळकर, गावकर, किरिस्तांव कोळी आनी नवहिंदू अशे सोनकोळयांचे चार भेद आसात.

चडशे कोळी दादले मध्यम उंचायेचे, दांडगट, रूंद खांद्यांचे आनी भरीव बांद्याचे आसतात. कोळी बायल सडपातळ, बांधेसूद आनी रेखीव अवयवांची आसता. तिंका खूब केंस आसतात.

सोनकोळी हे कश्टाळू, प्रामाणिक, उदार, पापभीरू आनी अतिथ्यशील आसतात. तांचो सभाव उधळो आसता. तांकां सोरो खूब आवडटा.

सोनकोळी दादलो काम करतना आनी घरांत वावुरतना कमराभोंवतणी एक सुर्का म्हणजे लंगोट न्हेसता. सुर्का म्हणजे चडकरून तांबडया रंगाचो व्हड चौकोनी लेंस. हो सुर्का लंगोटाभशेन कमराभोंवतणच्या मुजिच्या आदारान घट्ट आंवळिल्लो आसता आनी फुडलेवटेन तो पंरव्याभशेन सोडिल्लो आसता. आंगांत तो हातकापी कोपरी घालता.

भायर सरतना दादलो धोतर न्हेसता आनी पैरण वा बंडी घालता. पयलीं सणा-परबांच्या वेळार प्रतिशठीत दादलो कोळी धवो अंगरखो, धवें उपरणें आनी तकलेक टोपरें नांवाची कानटोपये सारकी ऊंच तांबडी टोपी घालतालो. पूण आता हेर मध्यमवर्गीय हिंदू दादल्यांभशेन तो सदरो, कोट आनी बनातीची वा मखमलीची काळी टोपी घालता. कोळी न्हवरो पोरन्या मराठा सरदाराभशेन भेस करता. लांब धवो जामा, घट्ट धवी सुरवार, कमरपट्टो आनी तकलेक भरजरी मंदील असो ताचो वरवेश आसता.

कोळी दादलो पयलीं करगोट भशेन रुप्याचो गडगंज पोंद वापरतालो. तशेंच दंडाचेर चांदीचो गांठो घालतालो. आतां ह्यो वस्ती चडशे दिसनात.

णववारी साडी, पोलको आनी फर्का असो कोळी बायलेचो भेस, कमरभर उदकांत काम करचें पडटा देखून ती घट्ट कांसाटो मारता. साडयेच्यो फुडल्यो मिरयोय पंरव्याभशेन पातळावन वयर खोंचतात. फर्का म्हणजे पातळ अशी धव्या कपडयाची ओडणी त्यो छातयेवयल्यान खांदार उडयतात.

वयांत येमेरेन कोळी चली खांद्यावयल्यान पदर घेनास्तना तो कमराभोंवतणी गुठलायता. गावकर चलयो लग्न जायमेरेन खांद्यावयल्यान पदर घेनात. सणाच्यावेळार कोळी बायलो भरजरी पैठणी न्हेसतात आनी रेशमी पोलको घालतात. तांच्या केंसांच्या आंबाडयाचेर एक तरी फूल खोंयिल्लें आसताच.

चलयो लग्नापयलीं हातांत कंवचेचीं वा भांगराचीं कांकणां

घालतात. पूण लग्नाउपरांत मात त्यो फकत दाव्या हातांतच कांकणां घालतात. दर्याचेर काम करपी घोवाक कसल्याच संकटाची बाधा जावंची न्हय म्हणून उजव्या हातांतलीं कांकणां आपणें समुद्रदेवतेक ओंपलीं अशें त्यो सांगतात. उजव्या हातांत त्यो रुप्याचो वाळो घालतात. तेभायर डोल्याचें वा ठशाचें कांकण घालतात. कानांत त्यो नुस्त्याच्या आकाराचे भांगराचे गोठ घालतात. भांगराचे तारेंत एक मोतीं, एक पोवळें आनी एक भांगराचो मणी गुथून त्यो नाकांत घालतात. गळ्यांत भांगराच्या मणयांच्यो आनी पोवळयांच्यो गाठी आनी डुलेंडी अशे हार घालतात. पूण आतां आधुनिक पद्धतीचे अलंकार त्यो घालपाक लागल्यात. तशेंच लग्नापयलीं चलयो कपलाचेर तिळो पाडून (गोंदोवन) घेतात.

शीत आनी नुस्तें (शीतकडीं) हें ह्या लोकांचें मुखेल अन्न. ताच्यावांगडा हे लोक मास, तांतयां, भाज्यो, दाळी आनी फळां खातात. सणा-परबेक हे लोक घाऱ्यो वा वडे, मोकल, मुंगवरी आनी हेर जिन्नस करतात.

चडशा सोनकोळयांची आपलीं मालकेचीं घरां आसतात. दर एका घरांत रांदचीकूड, देवाचीकूड आनी एक भौडपेगीकूड आसता. तशेंच जाळीं आनी नुस्त्याचे पांटले दवरपाखातीर एक ओटो आसता. घराक पोटमाळोय आसता. ताचेर सामान आसता. पूण जायते खेप ताचो उपेग न्हीदपाखातीर करतात. घराक दोन वा तीन ल्हानशीं जनेलां आसतात. तशेंच दारय सामकें ल्हान आसता. तांचीं घरां नितळ आसतात. हे लोक रांदन आनी देवाची कूड पवित्र मानतात.

खंडोबा आनी भवानी वा एकवीरा हीं ह्या लोकांचीं कुलदैवतां. तेभायर जायत्या ग्रामदेवतांकय ते भजतात. तशेंच वेताळदेव, हिंगलादेव, हरबादेव, मरूबाई, भावकादेवी, बायदेव सारकिल्ल्या आनीकय कांय देवांची पुजा ते करतात. मढ जुंव्यावयली हरबादेवी दर्यावयल्या कोळयांची राखण करता. वेताळ हो दर्याचो देव. ताचेरच कोळयांचें जिवीत आदारिल्लें आसता. थळ हांगाचो लखम्या होय दर्याचो देव. वर्सांतल्यान एक खेप तरी नाखव्यांचो प्रतिनिधी त्या जाग्यार वचून ताका तळी दिता आनी कौल घेता. तशेंच डहाणू ते अलिबाग ह्या सगळया दर्या देगेचेर जायतीं दर्या - देवतां रावतात अशी ह्या लोकांची समजूत आसा. तांच्या नांवान हे नाल्ल फोडटात आनी जेवण घालतात. दर्या होच तांचो देव. ताचीय ते मदीं मदीं पुजा करतात.

दर्याचेर अपघात जावन मेल्ल्या दादल्यांच्या नांवान ते वीर म्हणजे ल्हान खुंटयो देवा कुडींत दवरतात आनी तांची पुजा करतात. तशेंच, सर्वपित्री उमाशेक ते पितरांचें श्राध्द करतात.

धार्मिक वागणुकेचे नदरेन ह्या लोकांचे देवकर आनी इरकर अशे दोन भेद आसात. देवकर मंडळीचे वांगडी आसतात. कांय कुटुंबां एकठांय येवन धार्मिक उत्सव मनयतात. त्या कुटुंबांच्या गटाक मंडळी अशें नांव आसा. देवकर लोक भवानीक मांस आनी तांतयां हांचो वर्सांतल्यान एक फावट निवेद्य दाखयतात. तेन्नाच एक फावट हे जिन्नस खातात. इरकरांची मंडळी नासता. ते केन्नाय मांस आनी तांतयां खातात. भगत हो मंडळीचो मुखेली आसता. वर्स दोन वर्सांनी तो मंडळीची खंडोबाक वा एकवीराक यात्रा काडटा.

सोनकोळी लोकांत चल्यांचीं लग्नां सादारणपणान वीस ते पंचवीस आनी चलयांचीं सोळा ते वीस ह्या वयांत जातात. आवय - बापूय लग्न थारायतात. पयलीं चल्या - चलयेची पत्रिका जुळटा काय पळयतात. ती जुळ्ळी जाल्यार मध्यस्थाचे वतीन चलयेक मागणी घालतात. चलयेखातीर हुंडो दिवंचो पडटा. लग्न थारल्याउपरांत साकरपुडो करतात. तो रातचो जाता. तेखातीर न्हवऱ्यावटेचे लोक कंदील, हालवो, शेवगाठी आनी सोरो ह्यो वस्तू घेवन दबाज्यान व्हंकलेच्या घरा वतात. थंय एके कुडींत मदेगाक एक बांक दवरिल्लो आसता आनी ताच्या दोनय तोकांनी दोन दिवल्यो दवरिल्ल्यो आसतात. त्या बांकाचेर न्हवऱ्यावटेनच्यान हाडिल्ल्यो वस्तू दवरतात. मागीर दोनय पक्ष लग्न केन्ना करप तें थारायतात. मागीर सगळयांक शेवगाठी, हालवो, च्या वा सोरो दितात.

साखरपुड्या उपरांत चडकरून पयल्याच म्हुर्ताचेर लग्न जाता. हो म्हूर्त भट काडून दिता. माघ, फाल्गुन, वैशाख वा ज्येश्ठ ह्या म्हयन्यांत लग्नां जातात. पयलीं लग्नां पांच दीस चलतालीं. पूण आतां तीनच दीस चलता. हळद लावप हो पयलो विधी आसता. चलयेक हळद लावपाच्या आदल्या दिसा तिका भगताच्या घरा व्हरतात. थंय तिच्या केसांचे बटेक एक ल्हानशी गाठ मारतात. भगताकडच्यान देवाक पांच आनी कुलदेवाक पंचवीस नाल्ल ओंपतात. देवामुखार हळद दवरतात आनी मागीर ती व्हंकलेक लायतात.

व्हंकलेची भावजय दोन कणे काडटा. तांचेर पाट आनी दांतें दवरतात. पाटाचेर कपडयाची घडी आसता. ताचेर व्हंकल बसता. मागीर तिका हळद लायतात. दांत्याची पुजा करून पांच सवाशिणी तातूंत इल्ले तांदूळ आनी उडीद दळटात.

माटवाच्या दारांत दोन केळी उब्यो करतात. तातुंतल्या एके केळीची व्हंकल पुजा करता. तशेंच पाट्याचेर एक केळीचें पान दवरतात आनी ताचेर दिवे आनी कांय खावपाचे जिन्नस दवरतात. धवळारीण पदां म्हणत आसता. व्हंकल त्या पाट्याक पांयां पडटा. ताचेवयले खावपाचे जिन्नस धवळारणीक मेळटात आनी दिवे, उंबर बी देवक म्हणून दवरतात. केळीचें पान लग्न लागमेरेन चुलीच्या फाटल्यान दवरतात.

सांजेच्या वेळार कांय सवाशीणीं बायलो लागींच्या देवळांनी वचून देवाफुडें मिठाय दवरतात. उपरांत व्हंकलेच्यो इश्टीणी आनी भयणी न्हवऱ्यागेर वचून चौकाखातीर कांय पैशे मागतात.

उपरांत न्हवऱ्यावटेनचे कांय लोक दबाज्यान व्हंकलेच्या घरा येतात. येतना ते आपल्या वांगडा मिठाय, शेवगाठी, साकर,

सोरो, पानां, सुपाऱ्यो आनी व्हंकलेखातीर व्होंट घेवन येतात. मागीर व्हंकलेची व्होंट भरतात आनी न्हवऱ्यावटेनच्यान हाडिल्लो हुंडो बांकाचेर दवरतात. व्हंकलेवटेनची मंडळी तो थारिल्ल्या प्रमाण आसा काय ना तें पळयतात आनी स्विकारता.

चौक म्हणजे बारा चौकोन आनी त्रिकोन हांणीं तयार केल्ली एक रांगोळी काडटात. तातूंत रंग भरतात. पयल्या चौकोनाचेर जायत्या देवतांक आवाहन करतात. उपरांत दुसऱ्या चौकोनाचेर एक पाट मांडटात. व्हंकल ताचेर बसता. सवाशिणी तिका हळद लायतात आनी तेलवण करतात. धवळारीण त्या वेळार पदां म्हणटा. दर एका चौकोनाचेर पाट दवरून सवाशिणी व्हंकलेक हळद लायतात. ताकालागून ही कार्यावळ तीन - चार वरां तरी चलता. ताच्या उपरांत व्हंकलेचो मामा तिका आपले मांडयेर घेता. मागीर एक सवाशीण दोगांकय हळद लायता. उपरांत मामा व्हंकलेक केळवण दिता. अशेचतरेन जांकां व्हंकलेक केळवण करपाची आसता ते तिका मांडयेर घेतात.

दुसऱ्या दिसा व्हंकलेक पाट्यार बसयतात. तिच्या फाटल्यान तिची आवय बसता. मागीर व्हंकलेक हळद लायतात. तिच्या केसांक नाल्लाचो रोस लायतात. मागीर तिचे तकलेर एक थाळी उमथी धरतात आनी तिचेर पांच कळशांतलें उदक वोततात. न्हाण घाल्या उपरांत ती घरांतल्या देवतांक विडो आनी तांदूळ ओंपता.

मागीर ती अश्टपुत्री न्हेसल्या उपरांत तिच्यो धेडयो तिच्या केसांत आनी विणयेंत फुलां माळटात आनी तिका भांगरां घालतात.

न्हवरो घोड्याचेर बसून दबाज्यान व्हंकलेच्या घरा येवपाक भायर सरता. तो हातांत नाल्ल आनी सुरी धरता. लग्नाच्या वेळार ताचो धेडो ह्यो वस्तू ऊंच धरता. मिरवणूक लागीं पावल्या बरोबर व्हंकलेची व्होंट भरतात आनी तिच्या गळयांत मंगळसूत्र बांदतात. न्हवरो माटवांत भितर सरतना प्रवेशदाराक लायिल्ली घाऱ्यांची माळ तोडटा.

न्हवरो - व्हंकल तांदूळ आशिल्ल्या दोन परातींत एकामेकांक फुडो करून उबीं रावतात. तांचेमदीं अंतरपाट धरतात. अंतरपाटावयल्यान तांचे मानेभोंवतणी जानवें घालतात. मंगलाश्टकां म्हणून जाल्या उपरांत जानवें ल्हान करून व्हंकलेच्या गळयांत बांदतात. मागीर रोखडेच न्हवऱ्या-व्हंकलेचे भाव तांकां उखलतात आनी तांच्या जाग्यांची अदला-बदल करतात. मागीर न्हवरो-व्हंकल एकामेकांच्या गळयांत हार घालतात. जमिल्ले लोक तांकां केळवण भेटयतात.

केळवण जाल्याउपरांत भट पुरोयत न्हवऱ्या-व्हंकलेच्या वस्त्रांची गांठ मारता आनी न्हवऱ्याच्या दोन बाशींगांमदलें एक काडून व्हंकलेच्या कपलाक बांदता. न्हवऱ्याच्या मनगटांतलें चेंडूकय (कांकण) तो व्हंकलेच्या मनगटांत बांदता. ताच्या उपरांत पुरोयताचें काम सोंपता आनी न्हवरो-व्हंकल कांय खेळ खेळटात.

ताचेउपरांत व्हंकलपावणी घोड्यावयल्यान न्हवऱ्याच्या घरा वचपाक भायर सरता. वाटेर जायतीं देवळां, कुलदेवतां हांची भेट घेवन आनी पाटलाच्या घरा वचून मागीर व्हंकलपावणी न्हवऱ्याच्या घरा वता. घरांत भितर सरचेपयलीं न्हवऱ्या-व्हंयलेच्या तकलेर एक वस्त्र धरतात. दाराक बांदिल्ली घाऱ्यांची माळ न्हवरो तोडटा आनी व्हंकल उजवो पांय तांदळांचे पिशवेक लायता.

तिसऱ्या दिसा सकाळीं व्हंकलेक कुळारा व्हरतात आनी न्हाण घालून नवे कपडे न्हेसोवन परत तिका घोवागेर पावयतात.

मागीर न्हवरो - व्हंकलेन सुर्याक पांयां पडप, ऐरी नांवाच्या घटांच्या उतरंडीची पुजा करप आनी माटवाच्या दारांत लायिल्ल्यो केळी न्हवऱ्यान कापप हे विधी जावन लग्नाची कार्यावळ सोंपता.

पयलीं बायलांचो बाळंटेर चडसो घोवागेरच जातालो. बाळंटेरावेळार वैजीण तिका पालव दिताली. बायलेक जशो वेणो येवपाक लागल्यो म्हणजे देवाक नाल्ल ओंपताले आनी तेराव्या दिसा तो फोडटाले. भुरगें आनी बाळंटीक बाजेचेर न्हीदयताले आनी, चाळीस दिसांउपरांत ती बाज दर्याच्या उदकांत तीन दीस बुडोवन दवरताले. जल्मल्यापसून भुरग्याक आनी आवयक सद्दां दोन फावट तेल लावन न्हाणयताले. पूण आतां चडशो बायलो बाळंटेराक इस्पितळांनी वतात.

सव्या दिसा सटयेची पुजा करतात. एका पाट्याचेर मूठभर फोव, पांच विड्याचीं पानां, पांच सुपाऱ्यो, बदाम, खारको, नाल्ल, रूईचीं आनी कोडूलिंबाचीं पानां, दिवे, सव्वा रुपयो ह्यो वस्तू दवरतात. आवय भुरग्याक घेवन पाट्यालागीं न्हीदता. उपरांत वैजीण दारांत वचून सुपाची पुजा करता आनी निंबाचे खांदयेन भुरग्याचेर उदक फाफुडटा. मागीर आवय पाट्यालागीं विडो, दक्षणा दवरून पाट्याक पांयां पडटा. वैजीण तिची व्होंट भरता आनी तिका 'सटयेंतल्यान सुटका जाली' काय विचारता. ती तीन फावट 'न्हय' अशी जाप दिता. रातचीं न्हीदचे पयलीं पाट्यालागीं कागद - पेन्सिल दवरतात. सटीदेवता येवन भुरग्याचें भविश्य बरयता असो समज आसा. दुसऱ्या दिसा सकाळीं घरांतलो कोणय कळनासतना पाट्यावयल्यो वस्तू व्हरून दर्यांत सोडटा.

बाराव्या दिसा सुयेर सोंपता. त्याच दिसा भट भुरग्याच्या जल्मावेळचें नक्षत्र पळोवन खंयच्या अक्षरान सुरू जावपी नांव दवरचें तें सांगता. मागीर भुरग्याचो बारसो करतात. भुरग्याचें जावळ चडकरून एकवीरा वा खंडोबा हांच्या देवळांत वचून काडटात.

हे लोक मडें लासतात. ल्हान भुरग्यांक, तशेंच देवी, पटकी सारकिल्ल्या साथींनी मेल्ल्यांक मात पुरतात.

आसन्नमरण व्यक्तीच्या तोंडांत जमिल्ले सोयरे गंगाजल घालतात. व्यक्ती मेल्याउपरांत तिका नवे कपडे आनी अलंकार घालतात. कांय लोक दारांत भजनां म्हणत बसतात. सगळे नात्यातले

लोक जमल्या उपरांत मेल्ल्याचें कटीवस्त्र सोडून उरिल्ले कपडे आनी भांगराच्यो वस्ती काडटात. मेल्ल्याक पुताचे मांडयेर दवरतात. जमिल्ले सोयरे ताका हळद लायतात आनी आयदनभर उदक ताचे तकलेर वोततात. परत मेल्ल्या मनशाक नवे कपडे आनी अलंकार घालतात. उपरांत मडें निसणीर दवरतात. मेल्ल्याच्या कपलाक अबीर - गुलाल लायतात आनी फुलां घालतात. निसण मसंडेंत व्हरतना गांवचे शीमेर एका फातरान मेल्ल्याक स्पर्श करतात आनी तो अश्मा धव्या दिसा क्रियेखातीर दवरतात.

मसंडींत गेल्याउपरांत मडें चितेचेर दवरतात. मागीर मेल्ल्या मनशाचो उत्तराधिकारी चितेक अग्नी दिवन क्षौर करता आनी दर्यांत एक बुडी मारता. मडें लासता आसतना उदेंतेकडच्यान आनी अस्तंतेकडच्यान दोन शस्त्रां शेवटून मारतात. हाकालागून मेल्ल्याची भुतांखेतांपसून राखण जाता अशी समजूत आसा.

दुसऱ्या दिसा मसंडेंत वचून मेल्ल्याच्यो अस्थी आनी गोबोर एकठांय करतात आनी एका मडक्यांत दवरतात. एक नाल्ल फोडून खोबरें, दूद आनी भाकरी कावळयांक खावपाखातीर थंय दवरतात.

तिसऱ्या दिसा मेल्ल्याच्या घरांतल्या दादल्याक भायर व्हरून च्या आनी मिठाय दितात. मेल्ल्याच्या उत्तराधिकाऱ्याक नवी टोपी दितात. मेल्लो मनीस जर जाण्टो आसत जाल्यार विकतो सोरो हाडून पियेतात.

धाव्या, इकराव्या आनी बाराव्या दिसा मेल्याक पिंडदान करतात. एका भटाक आयदनां, कपडे, हांतरूण, जोतें, सत्री, साकरेचीं बोटां आनी शक्य आसल्यार गाय दान दितात. मेल्ल्याक ह्यो सगळयो वस्तू सर्गांत मेळटात अशी तांची समजूत आसा. बारा दीस सुतक पाळटात.

एका म्हयन्याउपरांत मेल्ल्याच्या घरांतल्यांच्या बायलांक होटेलांत व्हरून च्या दितात. परत घरा आयल्या उपरांत घरांतले लोक जमिल्ल्या बायलांक पियोवपाक सोरो दितात. ताचेउपरांत घरांतल्यो बायलो भायर सरपाक मेकळयो जातात.

ह्या लोकांचे मुखेल सण अशे आसात -

चैताचो सण : चैत्राच्या पाडव्यापसून तांचो चैताचो सण वा एकवीरा देवीचो उत्सव सुरू जाता. एके लांकडी घडवंचेचेर एक कपडो दवरून ताचेर रांगोळी काडटात आनी घट दवरतात. एका ताटांत पिठाच्या गुळयांत पांच वाती घालून केल्लो दिवो आनी फुलां पातळावन 'संबू' करतात. पाच सवाशिणी घटाचेर तेलवण करतात. उपरांत संबूंतलो ऊद पेटोवन आनी तेलवात लावन भगत ओंवाळटा. मागीर तो जमनीर उमथो पडून दिव्याची ती ताटली आपले मानेर दवरता. जमिल्ले लोक ते ताटलेंत पयशे घालतात. मागीर तो ती ताटली मानेवयल्यान हातांत घेता. त्यावेळार थंय वाजप चालू आसता आनी दिवट्योय पेटिल्ल्यो आसतात.

ताचेउपरांत 'झाड' म्हणून वळखुपांत येवपी बायलेचेर भार येता. पंच तिका आपल्या भुरग्यांचो साबाळ करपाक सांगता आनी "झाडा" च्या तोंडांतल्यान तशें उतर घेता. उपरांत देवीक आरत दाखयतात आनी "झाडा" च्या आंगांतलें वारें देंवल्या उपरांत घटालागीं दवरिल्लीं फळां प्रसाद म्हण वाट्टात. एक नाल्ल फोडून ताचें उदक घटाचेर सोडटात.

चैत्र पाडव्यापसून पुनवेमेरेन भगताच्या घरा घट मांडिल्लो आसता. सातव्या दिसा मात म्हण देवीमुखार बोकडो आनी कोंबो बळी दितात. ही कार्यावळ घराभायर जाता आनी तिका फकत दादलेच हजर रावतात. मागीर बोकड्याचें वा कोंब्याचें काळीज तेलांत तळून देवीक ताचो निवेद्य दाखयतात आनी मास घरानघर वाट्टात. उपरांत देव पालखेंत वा पिशवेंत घेवन ते एकाद्रे चैत्र सप्तमीक कार्ल्याक एकवीराच्या देवळांत वतात आनी सगळो उत्सव थंय करतात.

सुता पुनव : हो सण चड म्हत्वाचो. ह्या दिसा दर्यांत नाल्ल उडोवपाखातीर दर एका घरांतलो दादलो वताच. दांडाक मात हो सण मात्सो वेगळे तरेन मनयतात. गांवांतलो गोंधळी भगत श्रावणबाळाचें निशाण म्हण पाटलाच्या घरांतलो धवो कपडो बडयेक बांदून मिरयत मसंडेंत व्हरता. दांडा गांवांत दर्यादिगेर हरबामावली म्हण एक फातरी पार आनी ताचेमदीं एक ऊंच बडी आसा. वाटेवयल्या घरांतले लोक हरबामावलीखातीर दूद, हळदकुकूम, फुलां बी दितात आनी नाल्ल फोडटात. मसंडेंत एक उंच बडी रोयिल्ली आसता तिका हें श्रावणबाळाचें निशाण बांदतात आनी तिची पुजा करतात. मागीर सगळेजाण गोंधळी भगतागेर येतात. थंय तांकां उकडिल्ल्या तांदळांच्यो पुरयो आनी सोरो दितात.

सांजेच्या वेळार भगताच्या घरा भांगराचो लेप लायिल्ल्या नाल्लाची पुजा करतात. तांदळांनी भरिल्ल्या एका आयदनांत हो नाल्ल दवरतात. त्या नाल्लाचे शेंडयेंत धव्या कागदाची निशाणी लायिल्ल्यो काडयो खोंचतात. भगत त्या नाल्लाची म्हणजे श्रावणबाळाची पुजा करता आनी ताचेर दूद वोतता. मागीर तो नाल्ल वाजत - गाजत मिरवणुकेन दर्याकडे व्हरतात आनी भगत रामनाम घेत ताका फाटीं पळयनासतना व्हरून दर्यांत सोडटा.

गौरी : हो कोळी बायलांचो मुखेल सण. भाद्रपद सश्टीक गौरी येतात. तेरड्याच्यो जुडयो 'गवर' म्हण वाजयत - गाजयत घरा हाडटात. मागीर तिका कपडे आनी मंगळसूत्र आदी अलंकार घालतात. तिच्या शेजरा शंक्रोबा, तिचो न्हवरो म्हण एका तांबयांत तांदूळ भरून ताचेर नाल्ल दवरतात. दुसऱ्या दिसा राती भरजरी कपडे आनी भांगरां घालून तरणाट्यो कोळी बायलो गौरीमुखार रातभर नाच - पदांचो धुडगूस घालतात. ह्यावेळार एकाद्र्याचेर भार येता. तिसऱ्या दिसा ही गौरी दर्यांत पावयतात.

भवान्यो : हो एक नवरात्राचो उत्सव. गोंधळी घटाफुडें

गोंधळ घालून पदां म्हण्टा. ह्यावेळार खंडोबाक आनी भवानी मातेक तळी दवरतात.

माही पुनव : माही पुनव वा माघी पुनव हो खंडोबाच्या उत्सवाचो दीस. ह्या दिसा एकवीरा, खंडोबा, सप्तमातृका आदी देवदेवतांच्यो पत्र्याचेर कोरिल्ल्यो प्रतिमा देवकुडींतल्यान उखलून पालखेंत दवरतात आनी गांवांत उबारिल्ल्या माटवामेरेन पालखेची मिरवणूक काडटात. त्यावेळार जायते लोक नवस करतात. तशेंच वाद्यां वाजयतात, भंडारो शिंपडटात आनी देवांक आरत ओंवाळटात.

होळीपुनव : होळी पुनवेच्या दिसा एक व्हडलें एरंडाचें झाड एका फोंडांत पुरतात. ताच्या शेंड्याक पाच नाल्ल बांदतात आनी हळद लायिल्लो कपडो गुठलायतात. पाटलाची बायल होळीचे तेलवण आदी विधी करता, व्हॉट भरता आनी पुरणपोळयेचो निवेद्य दाखयता. पाटील रातचो काकाडो घेवन होळयेक भोंवताडे घालता आनी ती पेटयता. मागीर पेटिल्ले होळयेभोंवतणी नाच-पदां चलतात.

दुसऱ्या 'धुळवडी' च्या दिसा सांजेच्यो नुस्तें घेवन आयिल्ल्यो सगळयो होडयो बंदरांत एके वळीन लावन दवरतात. त्या दिसा घोळ नुस्तें मेळळयार शुभ मानतात आनी तें होडयेच्या फुडल्या दांड्याक बांदतात. मागीर बऱ्यो बऱ्यो साडयो लावन सजयल्ले होडयेचेर पुजा जाता आनी मिठाय प्रसाद म्हण वाट्टांत.

दिवाळी, गोकुळाष्टम सारकिल्ले सणय हे लोक मनयतात. पुनवेच्या राती चडशे सोनकोळी चंद्राक दिवटी ओंवाळटात.

नुस्तेंमारी हो सोनकोळी लोकांचो मुखेल वेवसाय. ताच्यो बायलो चडकरून नुस्तें विकपाचो धंदो करतात. जायत्या कुटुंबांची मेळून हांची जमात नांवाची एक सामाजिक संस्था आसता. तिचो मुखेली पाटील. ताका पालव दिवपी मनशांक पंच म्हण्टात. जातींतल्या लोकांची झगडीं मिटोवन न्याय दिवप हें पाटलाचें मुखेल काम आसता. हेर जाती जमातीं सारके सोनकोळयांच्याय रितीरिवाजांनीं बदल घडत आसात. आनी तांचे जिवीत पद्दतीचेर आधुनिकतेचो प्रभाव पडत आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सोनार नरहरी :** (पळेयात नरहरी सोनार).

**सोपानदेव :** (जल्म : इ.स.१२७४; मरण : इ.स. १२९६, सासवड - पुणें).

संत ज्ञानेश्वराचो धाकटो भाव. विठ्ठल संत आनी रुक्मिणी ह्या आपेगांवच्या कुलकर्णी दांपत्याचो तिसरो चलो. निवृत्तीनाथ, ज्ञानेश्वर आनी मुक्ताई हीं ताचीं भांवडां. निवृत्तीनाथाक नाथपंथीय गुरू गहिनीनाथ हाचो उपदेश जातकच ताणें तीच दीक्षा ज्ञानेश्वर आनी सोपानदेव हांकां दिली. सोपानदेव योगमार्गांत निश्णात जालो. ज्ञानदेवान गीतेर बरयल्ली टीका "ज्ञानेश्वरी" ह्या नांवान तेचपरी सोपानदेवान बरयल्ली गीतेवयली टीका सोपानदेवी ह्या नांवान प्रसिद्द आसा.

सोपानदेवाचें तत्त्वगिन्यान प्रवृत्तीमार्गी आशिल्लें. प्रपंचांत अर्थ ना ही विचारसरणी ताका मान्य ना. प्रपंचांत रावनय परमार्थ साधूंक येता, हें तत्त्व सोपानदेवाच्या अभंगांतल्यान प्रत्ययाक येता. सर्वांभुती हरी वळखून प्रंपचांतलीं कर्तव्यां वेवस्थीत पार पाडप म्हळयार परमार्थ अशी ताच्या विवेचनाचें सार आसा.

सोपानदेवी ही गीतेची समश्लोकी टीका आसा. सोपानदेव हो आपलें तत्त्वगिन्यान आचरणातल्यान अभिव्यक्त करपी असो संत आशिल्लो देखूनच सोपानदेवी हो ग्रंथ एका प्रौढ आनी व्यक्तिमत्त्वाचो आविश्कार थारला. सोपानदेवान पुणें जिल्ह्यांतल्या सासवड हांगा पिरायेच्या २२ व्या वर्सा जितीसमाधी घेतली.

- कों. वि. सं. मं.

**सोमनाथ :** बारा ज्योतिर्लिंगांतलें एक नामनेचें पयलें शिवक्षेत्र. हें भारतांतलें अतिपुर्विल्लें क्षेत्र. हाका वेरावळक्षेत्र, प्रभासक्षेत्र, सोमनाथ पाटण, आनर्तपूर अशींय हेर नांवां आसात. हें क्षेत्र सौराष्ट्रांत राजकोट - वेरावळ ह्या रेल्वेमार्गार वशिल्लें आसून, वेरावळ हें अस्तंत देगेवयलें एक ल्हानशें बंदर.

ह्या क्षेत्राविशीं पुराणांत एक कथा आसा ती अशी - दक्ष प्रजापतीक सत्तावीस धुवो आशिल्ल्यो. तांची ताणें चंद्राकडेन लग्नां लावन दिलीं. फुडें तातुंतले एकटे रोहिणीचेर चंद्र चड मोग करूंक लागलो. तेन्ना रोहिणीच्या हेर भयणींक वायट दिसलें आनी तांणी आपल्या बापायकडे तेविशीं कागाळ केली. तें आयकून दक्षाक राग आयलो आनी ताणें चंद्राक क्षयी जातलो असो श्राप दिलो. तेन्ना चंद्रान आपली चूक माफ करून श्राप परत घेवपाविशीं विनयलें. पूण दक्षान आपूण श्राप परत घेवपाक असमर्थ आसा म्हणपाचें सांगलें, तेन्ना चंद्र ब्रह्मदेवाकडेन गेलो. ब्रह्मदेवान ताका शापमुक्त जावपाक शंकराची उपासना करूंक सांगलें. चंद्रान प्रभासक्षेत्रांत येवन शंकराची उपासना केली आनी तो शापमुक्त जालो. हांगाचें शिव लिंग प्रत्यक्ष ब्रह्मदेवान पुजिल्लें.

शिवपुराणाच्या कोटिरूद्रसंहितेंत ह्या क्षेत्राचें महात्म्य अशें आसा -

सोमलिङ्गं नरो दृष्ट्वा सर्वपापात्प्रमुच्यते ।
लबध्वा फलं मनोऽभीष्टं मृतः स्वर्गं समीहते ।।
यद्यत्फलं समुद्दिश्य कुरूते तीर्थमुत्तमम् ।
तत्तत्फलमवाप्नोति सर्वथा नात्र संशयः ।।
प्रभासं च परिक्रम्य पृथिवीक्रमसम्भवम् ।
फलं प्राप्नोति शुध्दात्मा मृत : स्वर्गे महीयते ।।

**अर्थ** - सोमलिंगाच्या दर्शनान मनीस सगळया पापांतल्यान

मुक्त जाता आनी इच्छित फळ मेळोवन मरणाउपरांत स्वर्गांत वता. ज्यो ज्यो इत्सा मनांत बाळगून मनीस हाचें तीर्थ घेता त्यो सगळयो इत्सा फळादीक जातात हातूंत मातय दुबाव ना. प्रभास क्षेत्राची परिक्रमा करतकच मनशाक पृथ्वीप्रदक्षिणेचें पुण्य मेळटा. त्या पुण्यात्म्या मनशाक मरणोत्तर स्वर्ग मेळटा.

पुराणांत ह्या शिवलिंगाचें म्हत्त्व सांगलां तें अशें - पुर्विल्ल्या काळांत एक फावट ब्रह्मदेव फिरत फिरत ह्या थळार आयलो. ताणें हांगा एक भूरवंड रवोदून तातयां येदें स्वयंभू लिंग जमनीभायर काडलें आनी ताची षोडशोपचार पुजा केली. उपरांत तें लिंग दर्भ आनी म्हाेंव हाणें धापून ताचेर ब्रह्मशिळा दवरली. उपरांत हे ब्रह्मशिळेर दुसरें एक शिवलिंग स्थापन केलें.



सोमनाथाच्या देवळांतलें एक शिल्प

चंद्रान आपल्याक शापमुक्ती मेळटकच ह्या शिवलिंगाचेर भांगराचें देवूळ बांदलें. फुडें तें मोडटकच रावणान थंय रुप्याचें देवूळ बांदलें. हें देवूळ मोडल्या उपरांत कृष्णान थंय चंदनी लांकडाचें देवूळ बांदलें. तेंय देवूळ जीर्ण जातकच थंय फातराचें देवूळ बांदपांत आयलें. ज्ञात इतिहासांतलें हें पयलें सोमदेवूळ. तें इ.स.च्या पयल्या शतमानांत बांदिल्लें आसूंक जाय. फुडें हें देवूळ मोडकळेक येतकच इ.स. ६४९त मैत्रक वंशांतल्या राजा धरसेन हाचे कारकिर्दींत हांगा दुसरें फातराचें देवूळ बांदपांत आयलें. स्थापत्य आनी कलेचे नदरेन हें देवूळ वैभवशाली आशिल्लें. इ.स.च्या आठव्या शतमानांत अरबांच्या आक्रमणांक लागून हें देवूळ मोडलें. ताचेउपरांत णवव्या शतमानाचे सुरवेक हांगा तांबड्या पाशाणाचें व्हड देवूळ बांदपांत आयलें. फुडें चालुक्य वंशाचे कारकिर्दींत इ.स. १०२५त गझनीच्या मुहमदान हांगा घुरी घालून ह्या देवळाचो पुराय नाश केलो. ११६९ वर्सा अणहिलपाटणाच्या कुमारपाल राजान सोमनाथ देवूळ परत बांदलें. पूण १२९७त अलाउद्दीन खिलजीन तें उद्‌ध्वस्त करून उडयलें. इ.स. १३२५ वर्सा जुनागडचो चुडासमा राजा महीपाल हाणें ह्या देवळाचो जिर्णोध्दार केलो. फुडें १४६९ वर्सा महमद बेगडा नांवाच्या एका मुसलमान शासकान हें देवूळ मोडून थंय मशीद बांदली. उपरांत एका राजान तें परत बांदलें, पूण औरंगजेबान तें जमीनदोस्त केलें. फुडें बरीच वर्सां हें देवूळ भग्नावस्थेंत आशिल्लें. इ.स. १७८३ वर्सा अहिल्याबाई होळकर हिणें मूळ देवूळ थंयच सोडून लागसारच एका दुसऱ्या जाग्यार नवें देवूळ बांदलें. फुडल्या काळांत हेंय देवूळ मोडूंक आयलें तेन्ना भारत स्वतंत्र जातकच गृहमंत्री सरदार वल्लभभाई पटेल हाणें ह्या देवळाचो जिर्णोध्दार केलो. हें देवूळ आदल्या देवळाच्या मूळपिठीकेचेरच बांदपांत आयलें. ह्या देवळाचें बांदकाम पालिताण्याचो नामनेचो शिल्पी श्री प्रभाकर सोमपूरा हाणें केलें आनी देव प्रतिश्ठापनाचें पुरोयतपण नामनेचे वैदिक पंडित तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी हाणें केलें. ह्या वेळार ताचो गुरू श्री केवलानंद सरस्वती होय हजर आशिल्लो. ११ मे १९५१ दिसा राश्ट्रपती डॉ. राजेंद्र प्रसाद हाचे हस्तुकी ह्या देवळांत शिवमूर्तीची प्रतिश्ठापना जाली.

पुर्विल्ल्या काळासावन सोमनाथाच्या देवळाची ताचे गिरेस्तायेक लागून नामना आसा. इराणाच्या आरवातांतल्यान भारतीय शीमेकडे येवपी वेपारी आपली भोंवडी यशस्वी जावची देखून सोमनाथाक नवस सांगून घेताले आनी ते पावयताले. ताकालागून सोमनाथाकडे भांगरांशिंगराची रास पडटाली. हाचे भायर जायत्या हिंदू राजांनी देवालयाच्या खर्चाखातीर लाखांनी रुपयांचें उत्पन्न लावन दिल्लें.

सोमनाथाच्या देवळाविशीं इराणी भोंवडेकार झकेरिया कझीनी हाणें १९२३ वर्सा बरोवन दवरलां तें अशें -

सोमनाथाची मूर्त मनशायेदच्या आकाराची आसून, तिच्या हाताच्यो मुठी वळोवन धोपरामेरेन तेकिल्ल्यो आसात. ही मूर्त अधांतरी आसून तिच्या दोळयांत मोलादिक हिरे बसयल्ले आसात. देवळाचो गाभारो अश्टकोनी आशिल्लो. एका वेळार दोन हजार मनशां वांगडा बसू शकतात येदो व्हड सभामंडप थंय आशिल्लो. ताका सागवानी लांकडाचे ५६ खांबे आसून ते शिशान मढयिल्लें. मुखेल देवळामुखार २०० मण वजनाची भांगराची सरपळी आनी घांट आशिल्ली. देवळांतल्या सेवेकऱ्यांच्यो पाळयो बदलपावेळार ही घांट वाजोवप जाताली. देवळांतले सेवेकरी म्हणून सुमार १००० ब्राह्मणांची नेमणूक जाल्ली. देवळांतल्या सदच्या आनी खाशेल्या गायन - वादनासारक्या कामाखातीर ५०० कलावंतीणींचो आनी ३०० गायकांचो ताफो आशिल्लो.

सोमनाथाच्या मुखेल देवळाभोंवतणी हेर ल्हान-व्हड तीर्थकुंडां आनी देवळां आसात. प्रभासपाटण नगराभायर आशिल्ल्या दर्याक अग्निकुंड अशें नांव आसून तातूंत भोंवडेकार न्हातात. सद्याच्या सोमनाथाच्या देवळालागसारच अहिल्याबाई होळकर हिणें बादिल्लें सोमनाथ देवूळ आसा. ह्या देवळाच्या भूगर्भांत बरोच काळोख आसून थंय एक शिवलिंग आसा. ताचे भोंवतणी पार्वती, लक्ष्मी, गंगा, नंदी, सरस्वती, आदी देवांच्यो मूर्ती आसात. मुखेल देवळालागसार एक गणपतीचें देवूळ आसा आनी उत्तरदाराभायर अघोरलिंगाची मूर्त आसा.

नगरदारासावन उदेंतेक प्राची त्रिवेणी नांवाचें एक तीर्थस्थळ आसून थंय हिरण्या, सरस्वती आनी कपिला ह्यो न्हंयो दर्याक

मेळटात. देरवून ही सुवात पवित्र मानतात. प्राची त्रिवेणीसावन लागसारच एक भग्न सुर्याचें देवूळ आसून फुडें एके व्हॉवरीत हिंगलाज भवानी आनी सिध्दनाथ महादेव हांचीं ठाणीं आसात. थंय एका झाडासकयल बलरामाचें देवूळ आसा. हांगासल्लयानच बलरामान आपल्या मूळ शेषरुपान भूयेंत प्रवेश केल्लो अशें सांगप जाता. हांगा लागसारच देहोत्सर्गतीर्थ आसा. श्रीकृष्णाक भालुकातीर्थार बाण लागतकच तो हांगा आयलो आनी ताणें प्राण सोडलो ह्याच स्थळार ताचो अग्निसंस्कार जाल्लो. देहोत्सर्गालागसारच यादवस्थली आसा. जंय यादव आपसापांत झुजून नश्ट जाल्ले. वेरावळ सावन सोमनाथ देवळाकडे वचपाचे वाटेर बाणतीर्थ आसून थंय शशिभूषण महादेवाचें पुर्विल्लें देवूळ आसा. थंयच्यान अस्तंतेक भालुपूर गांवांत भालुकातीर्थ लागता. हें भगवान श्रीकृष्णाचें महानिर्याणस्थळ आसा. हांगाच्या एका अश्वत्थातळी श्रीकृष्ण न्हिदील्लो आसतना, पारध्याचो बाण ताच्या पांयांत घुसलो आनी तो जीवघेणो थारलो. त्या अश्वत्थझाडाक आता मोक्षपिंपळ ह्या नांवान वळरवतात.

- कों. वि. सं. मं.

**सोमराजवंश :** इ.स.च्या सव्या - सातव्या शतमानांत महाकोसल देशाचेर सोमवंशी पांडु राजा राज्य करताले. तांची राजधानी श्रीपूर ही आसून ती मध्यप्रदेशांत महान्हंयेचे देगेर सिरपूर ह्या वाठारांत आशिल्ली. ह्या वाठारांत त्या नगराचे भग्नावशेश मेळ्ळयात. तातूंत महाशिवगुप्ताच्या काळांतलो एक शिलालेरव आसा. ह्या शिलालेरवांत सोमवंशी पांडू राजांची म्हायती मेळटा. ह्या राजांनी शिवगुप्त आनी भवगुप्त हीं नांवां धारण केल्लीं. तातुंतलो महाशिवगुप्त बालार्जुन हो रवूब बळिश्ट आसून ताणें सुमार ६० वर्सां राज्य केलें. ताच्या बापायचें नांव हर्षगुप्त आनी आजाचें नांव चंद्रगुप्त. हो महाशिवगुप्त इ.स. ५९५ त सिंहासनाचेर बसलो. ह्या महाशिवगुप्ता उपरांत सोमवंशी पांडू राजांची तितलीशी म्हायती मेळना. इ.स.च्या १०व्या शतमानांत कोसल देशांत सोमवंशाचें राज्य आशिल्लें. ह्या वंशातल्या कांय राजांनी शिवगुप्त, महाशिवगुप्त, भवगुप्त हीं नांवां धारण केल्लीं. तशेंच कोसलेंद्र आनी त्रिकलिंगाधिपती ह्यो उपाधी धारण केल्ल्यो.

शिवगुप्त (इ.स. ९१५ - ३५) : हो त्या वंशातलो पयलो राजा. पूण ताचो एकय आलेरव मेळना. ताच्या पुताच्या आलेरवांत ताका राजा म्हळां. ताची सत्ता दक्षिण कोसल म्हळयार छत्तिसगड ह्या वाठाराचेर आसुये.

जनमेजय महाभवगुप्त (इ.स. ९३५ - ९७०) : हो शिवगुप्ताचो पूत ताच्या उपरांत राजा जालो. ताचे जायते ताम्रपट उपलब्ध आसात. तो मोटो बळिश्ट आसून ताणें परम माहेश्वर ही पदवी घेतिल्ली. विनीतपूर ही ताची राजधानी आशिल्ली. ताणें कटक आपल्या राज्याचो विस्तार वाडयल्लो. सुरवेक तो कोसलाधिपती आशिल्लो, ओडू वाठाराचेरच जैत मेळयतकच ताणें त्रिकलिंगाधिपती ही पदवी धारण केली.

ययाती महाशिवगुप्त (१लो) (इ.स. ९७०-१०००) : हो जनमेजयाचो पूत ताच्या उपरांत राजा जालो. ताचे सुरवेचे आलेरव विनीतपूरचे आनी उपरांतचे ययातिनगरचे आसात. हें नगर ताणें नव्यान वसयलें आनी थंय आपली राजधानी स्थापन केली.

भीमरथ महाभवगुप्त (२रो) (इ.स. १००० - १०१५) : हो ययातीचो पूत ताच्याउपरांत सिंहासनार बसलो. ताचो मंत्री सिंहदत्त हो ययातीचो मंत्री आशिल्लो. ताचे आदी ताचो आजो धारदत्त हो ययातीचो आनी जनमेजयाचो मंत्री आशिल्लो. अशेतरेन हें दत्त घराणें वंशपरंपरेन सोम वंशाचें मंत्रिपद चलयतालें.

धर्मरथ (इ.स. १०१५ - २०) : हो भीमरथाचो पूत ताचे उपरांत राजा जालो. ताका राजमल्ल आनी महाशिवगुप्त (२रो) अशींय नांवां आशिल्लीं. हाका पूत नाशिल्लो. ताचो भाव नहुष महाभवगुप्त (३रो) हाणें इ.स. १०२० - २५ मेरेन राज्य केलें. ताच्या काळांत राज्याची रवुबशा प्रमाणांत वाट लागली. उपरांत अमात्य मंडळान चंडीहार नांवाच्या राजपुत्राक राजा केलो. तो जनमेजय महाभवगुप्त (१लो) हाचो पणटू. अभिमन्यू हाचो पूत आशिल्लो.

चंडिहार (इ.स. १०२५ - ५५) : हाका ययाती महाशिवगुप्त (३रो) अशेंय नांव आसा. ताणें स्वताक केसरी हें नांव धारण केल्लें. हाणें कोसल आनी उत्कल ह्या दोनय देशांत शांतता प्रस्थापित केल्ली. ताका लग्नांत कलिंग, कंगोड आनी उत्कल ह्या देशांचें प्रदेश मेळिल्ले. तो रवूब पराक्रमी. चोळांक हारोवन ताणें कोसल आनी उत्कल हांची राखण केल्ली. चंडीहारान कर्नाट, लाट, गुजरात आनी द्रविड देश जिकले आनी कलिंग, कंगोड, उत्कल आनी कोसल ह्या देशांचेरय ताचें राज्य आशिल्लें. गौड, राढ आनी वंग ह्या देशांचेर ताणें जैत मेळयल्लें. वैतरणीचे देगेर ताणें अश्वमेध यज्ञ केल्लो आनी त्या थळाक यज्ञनगर हें नांव दिल्लें. सद्या त्या थळाक जाजपूर ह्या नांवान वळरवतात. ताणें भुवनेश्वर हांगा लिंगराज देवूळ बांदूक सुरवात केल्ली पुण तें पुराय जालें ना. फुडें ताची राणी कोलावती हिणें तें पुराय करून घेतलें. केऔंझर जिल्ह्यांतल्या देवगाव हांगा जें कुशलेश्वर देवूळ आसा तें ययातीकेसरीनच बांदिल्लें.

उद्योत केसरी (महाभवगुप्त ४ थो) : इ.स. (१०५५ - ८०) चंडीहराचो हो पूत ताच्या उपरांत राजा जालो. तो बापायवरी शिवभक्त आशिल्लो. कोसल आनी उत्कल ह्या दोनय देशाचेर ताची सत्ता आशिल्ली. हो सोमवंशांतलो निमणो व्हड राजा. ताणें डाहल, ओड्र आनी गौड ह्या देशांचेर जैत मेळयल्लें.

उद्योत केसरीउपरांत कर्णकेसरी, रणकेसरी, सोमेश्वर आदी नांवांचो उल्लेरव मेळटा. हे सोमवंशांतले राजा आसुये. पूण तांची स्वतंत्र सत्ता नाशिल्ली. ते गंग राजांचे सामंत आशिल्ले. अनंतवर्मा चोड गंगदेव (इ.स. १०७८ - ११५०) हाणें उत्कलच्या राजाक हारोवन थंय

आपली सत्ता स्थापली. इ.स. ११११२ आदीं सोमवंशाची दक्षिण ओडिसांतली सत्ता नश्ट जाली आसुये. कलचुरी राजांनी कोसलाच्या सोमवंशी राजाक हारोवन तोय देश घेतलो.

केसरी वंश : कांय पंडितांच्या मतान सोम आनी केसरी हीं एकाच वंशाचीं दोन वेगळीं नांवां. केसरी वंशाचो एकय ताम्रपट व शिलालेख मेळना.

भौमकर आनी होम ह्या दोनय वंशांक मेळून केसरी वंश हें नांव आशिल्लें. सोमवंश हो भौमकर वंशाचोच अंश मानून ताका केसरी हें नांव दिलें आसूंक जाय. भौम वंशांत उन्मत्त केसरी नांवाचो राजा जावन गेलो तसोच सोम वंशांत ययाती केसरी नांवाचो राजा जावन गेलो. सोम वंशांत ताच्या फाटल्यान केसरी उपपद आशिल्ले आनीकय कांय राजा जावन गेले.

सोम वंशांच्या ताम्रपटांत कांय राजांचो त्रिकलिंगाधिपती आनी कोसलेंद्र ह्या उपाधींचो उल्लेख मेळटा. हाचेवयल्यान सोम वंशाच्यो दोन शाखा आशिल्ल्यो आनी एकेचें राज्य कोसलाचेर आनी दुसरें त्रिकलिंग देशाचेर आशिल्लें. पूण तांणी स्वतंत्रपणान राज्य केलें ना. मुखेल शाखेंतलो नहुष हो निपुत्रिक मरण येतकच दुसरे शाखेंतल्या चंडीहार महाशिवगुप्त हाका ताचें राज्य मेळळें.

सोम वंशाचे राजवटींत कलाविकास चालू आशिल्लो. त्या काळांत जायतीं शिवाचीं देवळां बांदपांत आयलीं. ययातीवेळार ब्राह्मणी वैदिक धर्माची उदरगत सुरू जाल्ली. ययातीन कान्यकुब्ज सावन धा हजार ब्राह्मणांक ओडिसांत हाडून वसयल्ले. सोनपूर वाठारांत आजुनय कान्यकुब्ज ब्राह्मणांची संख्या चड आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सोमव्रतां** : सोमारा करपाच्या व्रतोपसादी उपचारांक सोमव्रतां म्हण्टात. तांचे जायते पर्याय आसात. तातुंतले कांय अशे -

१) शुध्द द्वितीयेक सोमार आयल्यार ब्राह्मणभोजन घालचें आनी गोप्रदान करचें.

२) शिव दैवताक वर्सभर घृतन्हाण घालचें. मागीर उद्यापन करचें. त्या वेळार तिळांनी भरिल्लो भांगराचो कलश गायेवांगडा दान दिवंचो.

३) जल्मलग्न कुंडलींत जांकां चंद्र वायट आसता तांणीं सोमारा प्रदोशकाळांत शिवपार्वतीची पुजा करची. चंद्राक अर्घ्यदान आनी ब्राह्मणाक जेवण दिवंचें. व्रतावधी चौदा वर्सां.

४) सोमारा उमास आयल्यार तिका सोमवती म्हण्टात. त्या दिसा तीर्थस्थान, अश्वत्थाची पुजा, विष्णुची पुजा आनी विष्णुक १०८ वस्तू ओपून अश्वत्थाक १०८ भोंवताडे घालचे.

५) सोमारा अश्टम आयली जाल्यार त्या दिसा सोमपुजा करची. शिवलिंगाची उजवी वट शिव आनी दावी वट हरिश्चंद्र समजुची. लिंगाक पंचामृतान न्हाण घालचें. देवाक २५ वातींची आरत ओंवाळची. दूद आनी पिठीसाकर हांचो निवेद्य दाखोवचो. दंपती जेवण घालचें.

६) वैशाख पुनव सोमारा आयल्यार त्या दिसा एका ताम्रपात्रांत उदक घालून तातूंत शिवलिंग दवरचें आनी वयर कपडयान धांपचें. मागीर शिवाची यथाविधी पुजा करची.

७) माघ शुध्द सप्तमीक सोमार आयल्यार शिवलिंगाचेर तुपाचो थर दिवंचो दोन काळयो गायो दान दिवंच्यो.

८) चैत्र आनी मार्गशीर्ष ह्या म्हयन्यांतल्या पयल्या सोमारा शिवपुजा करची. एक वर्स अशें व्रत करचें.

९) दर सोमारा आठ ब्राह्मणांक वर्सभर जेवण घालचें आनी उद्यापनाच्यावेळार रुप्याचें शिवलिंग दान दिवंचें.

१०) नवमी तिथीक सोमार आयल्यार त्या दिसा शिव-पार्वतीची पुजा करची तिलहोम करचो. हाकाच सोमाष्टमी व्रत म्हण्टात.

११) सर्वसामान्य व्रत : हाची सुरवात चैत्र, वैशाख, श्रावण, कार्तिक वा मार्गशीर्ष ह्या म्हयन्यांतल्या खंयच्याच सोमारा करची. त्या दिसा प्रदोश आसल्यार तो चड प्रशस्त समजुंचो. एक वर्सभर दर सोमारा उपास आनी शिवपुजा करची. वर्साउपरांत उद्यापन करचें. त्या वेळार कलशाचेर शिवपार्वतीची भांगराची आनी नंदीची रूप्याची प्रतिमा स्थापन करून तांची पुजा करची. घृत, तिळ आनी भात ह्या हविर्द्रव्यांनी होम करचो. आचार्याक प्रतिमा दान दिवंची. ताचेउपरांत ब्राह्मणांक जेवण घालून तांचो आशीर्वाद घेवंचो

- कों. वि. सं. मं.

**सोमार** : सप्तकाच्या सात वारांतलो एक वार. सोम म्हणजे चंद्रीम. हो दीस चंद्रान उपभोगपाचो आसता अशें सांगिल्लें आसा. शिवाचे उपासनेखातीरय हो दीस योग्य आसा. ह्या दिसा शिवाक रुद्राभिशेक करतात आनी नक्तभोजन करतात. ह्या दिसा बायलांनी वस्त्रां शिंवप, कापसाक हात लावप, बायलांनी माथ्यार न्हावप, दादल्यांनी केंस कापप, नांगर धरप वा गाडयेक बैल जुंपप, गंव दळप अशुभ मानलां. वस्त्र धारण करपाक आनी नवें धान्य मेजपाक हो दीस शुभ मानतात. सोमारचो प्रवास केल्यार भाव वा प्रियजनांची भेट जाता, असो समज आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**सोमालिया** : आफ्रिका खंडांतलो ईशान्येकडचो देश. दक्षिणेक विषुववृत्त ते उत्तरेक तांबडो दर्या मेरेन ताचो विस्तार जाल्लो आसा. क्षेत्रफळ ६३७,६५७चौ.किमी. चडांत चड उत्तर-दक्षिण लांबाय १५२९ किमी. आनी उदेंत - अस्तंत १,१७५ किमी. दर्यादिग २४०८ किमी. लांब. देशाचे उत्तरेक ॲडन आखात, उदेंतेक आनी दक्षिणेक हिंदी म्हासागर, अस्तंतेक केनिया, इथिओपीया तशेंच जिबॉटी हो फ्रेंच शासकी प्रदेश आसा. मोगादिशू हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** उत्तरेकडची ॲडन दर्यादिग ही सपाट उसू भूंय. तिका गुबान अशें म्हण्टात. गुबान म्हळयार लाशिल्ली सुवात. देशाचो उत्तर आनी ईशान्येकडचो भाग मुखेलपणान दोंगरीच जाल्यार उरिल्लो चडसो भाग सपाट वा उणें उंचायेचो. मध्य आनी दक्षिणेकडचें सुकें सपाट मरड सवाना प्रदेश म्हूण प्रसिद्द आसा. गुबान दर्यादिगे फाटल्यान उगो हायलँड हो पर्वतीय प्रदेश आसा. हो प्रदेश अस्तंतेक गॉली पर्वत रांकेकडच्यान सुरू जावन, ईशान्येक 'हॉर्न कॅप' मेरेन पातळ्ळा. एरिट्रीन हायलँड आनी मिजुरटॅन हांगा त्या पर्वताची उंचाय चड वाडल्या. हे वळींत आस्पाविल्लें २,४०८ मीटर उंचायेचें सुरूद आद हें देशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. हे पर्वतवळीचे दक्षिणेक हाउद सडो आनी न्यूगाल देगण आसा. हाउद सडो सपाट आसून, थंय जिपसम सांपडटा. न्यूगाल देगण वायव्य - ईशान्य अशें पातळ्ळां. न्यूगाल म्हळयार पिकाळ भूंय. जुबा आनी शॅबेले ह्यो देशांतल्यो मुखेल न्हंयो. त्या दोगांयचो उगम इथियोपीयेच्या पर्वतांचेर जाला.

**हवामान :** सोमालियेचो उत्तर-दक्षिण विस्तार अक्षांश २° दक्षिण ते १२° उत्तर आशिल्ल्यान तो उश्ण आनी समितोश्ण कटिबंधांत मोडटा. देशांतलें वर्सुकी हवामान सादारणपणान सारकेंच उरता. चड उंचायेच्या प्रदेशांनी मात तातूंत थोडोभोव बदल जाता. बोरमा, हार्जेशा, शेक आनी एरिगवो ह्या उंचेल्या प्रदेशांनी ऑक्टोबर ते फेब्रुवारीमेरेन हवामान थंड आनी सौम्य उरता. शेक आनी एरिगवो ह्या प्रदेशांनी केन्ना केन्नाय तापमान गोठबिंदू सकल वता आनी धुकें पडटा. पूण दर्यादिगांनी हवामान उश्ण आनी दमट आसता. बॅर्बेरा आनी बोसासो ह्या दर्यादिगांच्या प्रदेशांनी जून ते सप्टेंबर मेरेन तापमान सुमार ४२° से इतलें वाडटा. देशाच्या उत्तर भागा परस दक्षिण भागांत पावस चड पडटा. वर्सुकी सरासरी पावस २८ सेंमी. इतलो पडटा. केन्ना केन्नाय पावस नेमान पडनाशिल्ल्यान देशांत साबार खेप व्हड व्हड दुकळ पडटात.

**वनस्पत आनी मोनजात :** सोमालियेंत मुखेलपणान वेगवेगळया प्रकारचें तण आनी झोपां वाडिल्लीं दिश्टी पडटात. देशांतल्या कांय भागांनी वनस्पतीचे कसलेच प्रकार वाडनात. पूण हाऊद आनी दक्षिण भागांत वेगवेगळे रूख आशिल्लीं दाट रानां आसात. अकासिया, आलोए, बॅओबाब आनी कान्डेलाब्रास ही रुखावळ सुक्या प्रदेशांनी मेळटा. रानटी मोनजातींत हत्ती, मानगें, गॅझल्, जिराफ, हिपोपोटॅमस्, हेना आनी शींव हांचो आस्पाव जाता.

**इतिहास :** भूंयमध्य दर्या आनी उदेंती देश हांच्या मदल्या वेपारी मार्गाचेर सोमालियाचो आस्पाव जाता आशिल्ल्यान ताका पुर्विल्ल्या काळासावन म्हत्व प्राप्त जालां. सुमार इ.स. ८०० ते इ.स. ९०० ह्या काळांत सोमाली लोक ॲडन दर्यादिगेकडच्यान दक्षिणेकडेन येवपाक लागले, जाल्यार अरब आनी पर्सीयन लोक हिंदी म्हासागराचे दर्यादिगेर रावपाक लागले. सुमार इ.स. ११००त सोमाली लोकांचें इस्लामीकरण जाल्लें आसुयें. इ.स. १८०० मेरेन सोमाली लोकांचे चडशे वाठार वसणूकवाल्यांच्या शेकातळा गेले. उत्तरेकडचो चडसो वांटो ब्रिटिशांनी घेतलो. इ.स. १८८० ते इ.स. १८९० मेरेन इटाली सैन्यान हिंदी म्हासागर दर्यादिग घेतली. उपरांत ल्हव ल्हव अस्तंतेक इथियोपिया वटेन वचून तांणी इटालियी सोमालीलँड ही वसणूक उबारली. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक सावन सय्यद मुहम्मद अब्दाली हसन हाच्या फुडारपणखाला सोमालियेंत स्वातंत्र्य चळवळ सुरू जावन ते ब्रिटीश, इटालियन आनी इथियोपीयन सैन्याआड झुजपाक लागले. १९३६त इटाली सैन्यान इथियोपीयेचेर जैत मेळयल्याउपरांत इटालियी सोमालीलँड हो इटालीयन ईस्ट आफ्रिकन एम्पायरचो एक भाग जालो. इ.स. १९४०त दुसऱ्या म्हाझुजावेळार इटलीन ब्रिटीश सोमालिलँडाचेर जैत मेळयलें. पूण दुसऱ्याच वर्सा ब्रिटिशांनी तांकां धावंडावन ब्रिटीश आनी इटाली सोमालीलँडाचेर ब्रिटीश लश्करी शासन बसयलें. इ.स. १९४८त इथियोपीयेन ओगाडन हो आपलो प्रांत परत मेळयलो. तातूंत साबार सोमाली लोकांचो आस्पाव आसलो.

दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत इ.स. १९५०त संयुक्त राश्ट्रान इटली सोमालीलँडाची देखरेख करचेखातीर तो प्रदेश इटालीकडेन धा वर्सांखातीर सोंपयलो. ह्याच वेळार ब्रिटीश सोमाली भागांतल्या लोकांनी स्वराज्याची मागणी केल्ली.

इ.स. १९६०त ब्रिटन आनी इटालीन आपआपल्या सोमाली प्रदेशांक स्वातंत्र्य दिलें. उपरांत १ जुलय १९६० त दोनय प्रदेश एकठांय येवन स्वतंत्र सोमाली राज्याची स्थापणूक केली. स्वातंत्र्य मेळ्ळया उपरांत सोमाली सरकारान शेजारच्या देशांनी म्हळयार इथियोपीया, केनया आनी फ्रेंच सोमाली भागांत रावपी सोमाली लोकांत राश्ट्रीयत्वाची भावना जागोवपाखातीर चळवळ सुरू केली. हाका लागून तांच्यांत आनी सोमालीयेंत वैर निर्माण जालें. स्वातंत्र्या उपरांत देशाची अर्थीक स्थितीय इबाडत रावली. स्वातंत्र्याचो लाव फक्त ऊंच पांवड्यावयल्या लोकांकच जातालो. हाचो परिणाम म्हळयार लश्करी अधिकारी मेजर जनरल मोहम्मद सिआंद बार्रे हाच्या फुडारपणाखाल बंड जावन, ताणें देशाची पुराय सत्ता आपल्या हातांत घेतली. १९७०त देशांत व्हड दुकळ पडलो. तातूंत हजारांनी लोकांक मरण आयलें आनी लाखांनी पशुधन काबार जालें. उपरांत १९७४ वर्सा सोमाली सरकारान इथिओपीयेंतल्या सोमाली लोकांक खुदळोवपाचो यत्न केल्ल्यान इथिपीयेन सोमालीआड झूज उभारलें. हें झूज कांय वर्सां चालूच आशिल्लें. निमाणेकडेन १९८८त दोगांयभितर शांतता कबलात जाली. झूज काबार जाल्याउपरांत देशांतल्या कांय विद्रोही पंगडांनी सोमाली सरकार मोडून उडोवपाचे खूब यत्न केले. १९९१त हातुंतल्याच युनायटेड सोमाली कॉंग्रेस (यूॲ) ह्या पंगडान अस्तित्वांत आशिल्लें लश्करशाय मोडून उडोवन राजपाटण आनी भोंवतणचे प्रदेश आपल्या शेकातळा व्हेले. उपरांत ऑगस्ट १९९१त अली

माहदी मुहम्मद हो अध्यक्ष जालो. दुसऱ्या वर्सा 'युएससी' आनी हेर विद्रोही पंगडांभितर पराकोटीचें झूज सुरू जालें. उपरांत जनरल मुहम्मद फराह आयदीद हाचे अध्यक्षतेखाल युती सरकार सत्तेर आयलें. १९९२त सोमालियेंत परतून व्हड दुकळ पडलो तेन्ना आयदीद हाणें संयुक्त राश्ट्रांकडेन आदार मागलो. त्याच वर्सा दुकळांत सांपडिल्ल्या लोकांक पालव दिवचेखातीर अमेरिका आनी हेर देशांतलें सैन्य थंय पावलें. डिसेंबर १९९२त अली महादी आनी मुहम्मद आयदीद हांच्या विद्रोही पंगडाभायर संयुक्त राश्ट्रांचे मध्यस्थीन शांतता कबलात जाली. मार्च १९९४त अमेरिकेचें सैन्य सोमालियेंतल्यान परत गेलें. जून १९९४त एकुणीस सोमाली मुखेल्यांनी परतून कबलात केली. पूण देशाच्या कांय भागांनी हिंसाचार चालूच उरलो. १९९६त दोनय पंगडांभितर परतून झगडीं सुरू जालीं. ऑगस्ट १९९६त आयदीद हाका मरण आयलें, पूण झगडीं चालूच उरलीं. फाटल्या पांच वर्सांत दुकळ आनी यादवी झुजांक लागून सुमार ३५०० सोमाली लोक मेले अशें म्हण्टात.

**राज्यवेवस्था :** इ.स. १९६९ ते इ.स. १९९१ मेरेन सोमालियेंत लश्करी शासन आसलें. १९९१त युनायटेड सोमाली कॉंग्रेस ह्या विद्रोही पंगडान लश्कर शासन मोडून उडोवन राजपाटण आनी भोंवतणच्या प्रदेशाचेर आपलो शेक बसयलो. जाल्यार हेर विद्रोही पंगडांनी वेगवेगळ्या प्रदेशांनी आपआपलो शेक बसयलो.

**अर्थीक स्थिती :** सोमालियेची अर्थीक वेवस्था मागाशिल्ले स्थितींतच आसा. देशाची अर्थवेवस्था पशुपालन आनी शेतवडीचेर आदारल्या. पशुधनांत मुखेलपणान ऊंट, गोरवां, बोकडां आनी मेंढरांचो आस्पाव जाता. वसणुकेच्या तेंपार इटाली लोकांनी वाबे शेबिले आनी जुबा न्हंयांच्या देगांनी लायिल्ले केळ्यांचे मळे आयजय आसात. सद्या सोमाली लोकांनी केळीं, लिंबू जातींची फळां आनी उसांचे व्हड मळे रोयल्यात. हेर पिकावळींत मको, कापूस, सोरघूम, भिकणां आनी सिसामचो आस्पाव जाता. पशुपालना फाटल्यान शेतवड हो सोमालियेचो दुसरो म्हत्त्वाचो वेवसाय आसलो, तरी शेतकी मळार देश मागाशिल्लोच आसा. उपणी आनी लुवणी आयज लेगीत मुखेलपणान पारंपारीक पद्दतीनच जाता.

सोमालियेची दर्यादेग लांब आसून लेगीत यांत्रिकी बोटिंच्या उणावाक लागून नुस्तेंमारी मार्यादीत प्रमाणांत जाता. उद्देग - धंद्याच्या मळार ल्हव ल्हव उदरगत जाता. अन्न आनी नुस्तें प्रक्रिया, साकर आनी कपडो हांचे ल्हान ल्हान कारखाने आसात. जिप्सम, लोखण आनी युरेनियम हीं हांगाचीं मुखेल खनिजां. पूण भांडवलाच्या अभावाक लागून तांचो उपेग फावो त्या प्रमाणांत जायना. देशांतल्यान निर्यात जावपी म्हालांत जनावरांची कात, कमायल्लें चामडें, केळीं, ऊंट, बोकडां आनी मेंढरांचो आस्पाव जाता. जाल्यार, आयात जावपी मालांत अन्न सामुग्री, पेट्रोल आनी लुगटाचो आस्पाव जाता. सोमालियेचे वेपारी संबंद मुखेलपणान इटली आनी साउदी अरेबियेकडेन आसात.

येरादारिच्या मळारय हो देश फाटसार आसा. देशांत रेल्वेमार्ग ना. १९९१ मेरेन हांगा २१,३०० किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले. पूण तातुंतले फक्त ५,८५० किमी. लांबायेचे रस्ते बरे अवस्थेंत आशिल्ले. सोमालियेंतल्या एक टक्क्यांपरस उण्या लोकांकडेन मोटारी आसात. आयात - निर्यात मुखेलपणान दर्यामार्गांतल्यानच जाता. मोगादिसीओ, किसमाथू, बेर्बेरा आनी मर्का हीं देशांतलीं मुखेल बंदरां. हीं बंदरां बांदचेखातीर सोमालियेन जागतिक बँक, अमेरिका आनी रशियेकडच्यान आदार घेतला. विमान येरादारींत सुदारणा जायत आसा. मागादिसीओ शारांत आतंरराश्ट्रीय विमानतळ आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** सोमालियेंतले लोक सुन्नी मुस्लिम पंथी आसून ते सोमाली भास उलयतात. सोमाली लोकांतले सुमार ६0% लोक हेडपी. ते आपले मोनजातींक उदक आनी तण मेळचें म्हूण एके सुवातेसावन दुसरेकडेन भोंवत आसतात. ते तणाच्या खोपींनी वा कातीसावन तयार केल्ल्या तंबूंनी रावतात. दूद हें तांचें मुखेल अन्न. पूण तांच्या अन्नांत तांदूळ, कडुण आनी मांसाचोय आस्पाव जाता. चडशे सोमाली लोक भडक रंगाचो कपडो आपल्या आंगा भोंवणी रेवडटात. कांय दादले लुंगी न्हेसतात. शारांनी रावपी लोक अस्तंती पद्दतिचो भेस करतात. सोमाली परंपरेप्रमाण सोमाली बायलांक राजकी वा अर्थीक हक्क नात. पूण हाली तेंपार सरकारान तांका कांय खास सवलती दिवपाक सुरू केल्या. सोमाली लोकांची भास, संस्कृती आनी धर्म एकच आसलो तरी पंगडाप्रमाण तांची विभागणी केल्ली आसा. चडशा सोमाली लोकांचो 'सामाल' पंगडांत आसपाव जाता. ताच्यो मुखेलपणान चार पोट-जाती आसात. गोरवां आनी मेंढरां पोसप हो तांचो मुखेल वेवसाय. 'साब' होय थंयचो म्हत्त्वाचो पंगड. हे लोक दक्षिण न्हंयांचे देगांनी रावतात. शेतवड हो तांचो मुखेल वेवसाय. पंगडा पंगडांभितर पारंपारिक दुस्मानकाय आसून, आतऱ्या - पयऱ्यान तांच्यांत झगडीं चालूच आसतात. सद्या तांच्यांत राश्ट्रीय एकात्मतेची भावना उत्पन्न करपाचे सोमाली सरकाराचे यत्न चल्ल्यात. सोमाली हे मुखेलपणी सुन्नी पंथी. अल्पसंख्येन रावपी लोकांत अरब, भारतीय, इटालीयी आनी पाकिस्तानी लोकांचो आस्पाव जाता.

सोमालीही देशाची राजभास. तिच्यो साबार पोटभासो आसात. पूण १९७३ मेरेन हे भाशेंतल्यान बरोवप जायनाशिल्लें. सोमाली भाशेंतल्यान साहित्य निर्माण करचेखातीर खंयची लिपी आपणावप हो सद्याचो धगधगतो विशय. शासकी मळार अरबी, इंग्लीश आनी इटाली भाशेचो वापर जाता. शिक्षणीक मळारय हो देश फाटीं उरला. सुमार २० टक्के इतलींच भुरगीं शाळेंत वतात. हेडपी लोकांच्या भुरग्यांक वाचपा-बरोवपाक शिकोवपाखातीर सरकारान कांय खाशेल्यो येवजणी आखल्यात. मोगादीश् शारांत सोमाली राश्ट्रीय विद्यापीठ

आसा. सद्या सोमाली सरकारान यांत्रिकी शिक्षणाचेर भर दिला.

सोमाली कारागीर चामड्याच्यो तरेकवार वस्तू करचेरवातीर प्रसिद्द आसात. कविता पाठांतर आनी पदां म्हणप ही थंयची म्हत्वाची मनरिजवणी. सोमाली लोकांक कुस्ती खेळपाची खूब आवड. सरकारी मालकेचीं दोन आकाशवाणी केंद्रां आसात. हांगाचीं खबरांपत्रां सरकारी मालकीचीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**सोरो :** एक मादक पेय. बार्ली, तांदूळ, मको सारकिल्ल्या धान्याचें पीठ; द्राक्ष, सफरचंद, मुट्टे (काजू), संत्रां, लिंबू, चेरी सारकिल्ल्या फळांचो रोस; ऊंस, माड आनी ताड सारकिल्ल्या झाडांचो रोस; मोहाचीं फुलां; गोड; साखर सारकिल्ल्या पदार्थांचेर यीस्टाच्या आदारान आंबोवपाची प्रक्रिया करून निर्माण जाल्ल्या एथिल आल्कोहॉल युक्त अशा सगळ्या तरांच्या पेयांक सोरो म्हण्टात.

**इतिहास :** भारतांत खूब पुर्विल्ल्या काळासावन सोरो पिवपाची चाल आशिल्ली. खुबशे लोक सोमाकच सोरो समजताले. पूण ऋग्वेदांत सोम आनी सोरो हातूंत फरक केल्लो आसा. सोम हो चड करून देवाक अर्पण करताले, जाल्यार सोरो हो सादारण मनशांखातीर आसलो. सौत्रामणी यागांत सोम आनी सोरो ह्या दोगांयचोय उपेग करताले. कांय वेळां देवांक सोऱ्याचो निवेद्य दाखयताले. पितरांकय सोरो अर्पण करताले अशें शतपथ ब्राह्मणांत सांगलां. हाचेभायर काठकसंहिता, ऐतरेय ब्राह्मण, छांदोग्य उपनिषद, जातक ग्रंथ ह्या वैदिक ग्रंथांनी सोऱ्याचो उल्लेख आयिल्लो आसा. तशेंच कालिदासाच्या शाकुंतल, कुमारसंभव आनी रघुवंश ह्या ग्रंथांत मदिरेचो उल्लेख आयिल्लो आसा.

ऋग्वेदांत सोमवल्लीचो उल्लेख एक देवता म्हूण आयिल्लो आसा. पुर्विल्ल्या साहित्यांत तांदूळ आनी सातू हांचेपसून तयार केल्ली सुरा, फुलां वा तणापसून तयार केल्लें परिसृत, धान्यापसून तयार केल्लें किलाल आनी तांदूळ आनी मसाल्याच्या पदार्थापसून तयार केल्लें मासर, गोडापसून मैरेय, खाजूरापसून खर्जूरा आनी वारुणी आदी सोऱ्यांच्या तरेकवार प्रकारांचो उल्लेख मेळटा. तेचपरी त्या वेळार आसवां आनी अरिश्टां हीं वखदी मद्यांय प्रचलित आशिल्लीं. कौटिलीय अर्थशास्त्रांत मेदक, प्रसन्ना, आसव, अरिष्ट, मैरेय आनी मधू अशे सोऱ्याचे प्रकार वर्णिल्ले आसून तातूंत घालपाचे मसाले - अंबष्ठ गजपिंपळी, वेलदोडो, जेश्ठमध, वागाटी, दारुहळद, पिंपळी, मिरयां, तिखी, चित्रक, वावडिंग हांचो आस्पाव आसा. आंव्याच्या सोऱ्यांत रोसाचें प्रमाण चड आसल्यार 'बीजोत्तरा', वा 'महासुरा' आनी मसाल्याचे पदार्थ चड आसल्यार 'संभारिकी' म्हण्टाले. आयुर्वेदांत सोरो रुचीक गोड, तोरट आनी मिश्र रुचीचो आसून विपाक काळांत तो अम्ल जाता म्हणून सांगलां. त्या काळांत कापिश्यायनी आनी हुरहुरक हो सोरो अफगाणिस्तानांतल्यान आयात करताले. होचभायर वेगवेगळ्या सैमीक पदार्थांपसून तरेकवार सोरो करपाची कला रानटी जमातींत जायत्या शतमानांसावन चलत आयिल्ली आसा. आदल्या तेंपार सुरापानघरां आशिल्लीं आनी उत्सवावेळार निमंत्रिकांक सोरो दिवपाची चाल आशिल्ली. सामान्यता : ब्राह्मण, विद्यार्थी आनी ऋषीमुनी हांकां सोरो पियेवप वर्ज्य आशिल्लें. मनुस्मृतींत ब्राह्मण, क्षत्रीय आनी वैश्य हांणी गोड, धान्य वा म्होंवाच्या फुलांपसून तयार केल्ली गौडी, पैश्टी आनी माध्वी ह्या सोऱ्यांक स्पर्श करूं नये अशें सांगलां. मनु याज्ञवल्क्यान सोरो पियेवप्याक शिक्षा सांगल्या. बुध्द आनी महावीर हांच्या अनुयायांक फकत दुयेंत काळांतच सोरो घेवपाची मेकळीक आशिल्ली.

पुर्विल्ल्या काळासावन आयज मेरेन सोरो पिवप हें चलत आयलां. पयलींसावन धर्मीक तशेंच भौशिक कार्यांनी सोरो पिवप सगळेकडे प्रचलित आशिल्लें. ग्रीक आनी रोमन लोकांचीं दैवतां सोरो पितात म्हणपाचो उल्लेख तांच्या साहित्यांत मेळटात. उपरांतच्या काळांत इस्लाम धर्मान सोरो पियेवप निशिध्द मानलें.

भारतांत पुर्विल्ल्या काळासावन वैयक्तिक तशेंच सामुहीक तरेन सोरो पिवप जाता. वेदकाळांत यज्ञाच्या वेळार सोम आनी सुरा अशा मादक पेयांचो उपेग करताले. तरतरी येवपाखातीर, झुजांत विरश्री आंगांत संचारपाखातीर, प्रतिभेच्या विकासाखातीर तशेंच वक्तृत्वाक भरती येवपाखातीर सोमाचो उपेग जाता अशें ऋग्वेदांत सांगलां. मंनोरंजनाखातीर खूब लोक एकठांय येवन, सुरा पिवन झगडीं करताले असो वैदिक वाङ्मयांत उल्लेख आसा. त्या काळांत बायलोय सोरो पिताल्यो. तरी सादारणपणान सुरापान हें सगळेकडे वायटच मानताले. हाकालागून धर्म, अर्थ आनी काम भ्रश्ट जाता अशें वाल्मीकीन म्हळां.

**वर्गीकरण :** सादारणपणान सोऱ्याचे निर्मिती प्रक्रियेवयल्यान सोऱ्याचे दोन वर्ग करतात - १) निरवळ सोरो आनी २) ऊर्ध्वपतित सोरो (स्पिरिट). हातूंत पिश्टमय पदार्थापसून वा जातूंत साकर आसा अशा सैमीक पदार्थापसून किण्वन क्रियेन तयार केल्लो सोरो पयल्या वर्गांत आस्पावता. तातूंत पिश्टमय पदार्थापसून तयार केल्ल्या सोऱ्याक बियर आनी शर्करायुक्त सैमीक रोसापसून तयार जावपी सोऱ्याक वायन म्हण्टात. बियरीचें ऊर्ध्वपातन करतकच व्हिस्कीचे वेगवेगळे प्रकार मेळटात जाल्यार वायनाचे ऊर्ध्वपातन करतकच ब्रँडीचे वेगवेगळे प्रकार जातात.

**निरवळ सोरो :** १) बियर - बियर तयार करपाखातीर चड करून सातू (बार्ली) हें धान्य वापरतात.

२) व्हायन - द्राक्षांच्या रोसापसून तयार केल्ल्या सोऱ्याक व्हायन म्हण्टात. हेर फळांच्या रोसापसून तयार केल्ल्या सोऱ्याक त्या त्या फळाच्या नांवाचो उल्लेख करून नांव दितात.

सादारणपणान व्हायनाचे तीन वर्ग करतात - रेड टेबल व्हायन, व्हायट टेबल व्हायन आनी डेझर्ट व्हायन.

**ऊर्ध्वपतित सोरो (स्पिरीट) :** १) व्हिस्की - बियरींच्या वेगवेगळया प्रकारांचें ऊर्ध्वपतन करतकच व्हिस्कीचे वेगवेगळे प्रकार मेळटात. ही सादी ऊर्ध्वपतन क्रिया नासून हांगा वेगवेगळया उकळबिंदू आशिल्ल्या जायत्या बाश्पनशील - बाश्परूपान उडून वचपी घटक आशिल्ल्या मिश्रणांतल्यान घटक वेगळे करपाचे पद्दतीचो उपेग करचो पडटा. बीयर ज्या पदार्थांपसून तयार केल्ली आसता त्याप्रमाण वा विशिश्ट देशाच्या नांवावयल्यान व्हिस्की प्रकाराक नांव दितात. व्हिस्की खंयचीय आसली तरी तातूंत ४० - ६५% आल्कोहॉल आसूंक जाय आनी ती उण्यांत उणी दोन वर्सां मुरूंक जाय.

मको, सांसवां, सातू वा ताचें माल्ट हाचेपसून तयार केल्ल्या व्हिस्की प्रकारांचें मिश्रण करून तें २ - ६ वर्सां लांकडी पिपांत मुरयतकच जी मिश्र व्हिस्की मेळटा तिका 'कॅनेडियन व्हिस्की' म्हण्टात. तरेकवार धान्यां आनी उक्त्या जाळाचेर चड भाजिल्ले माल्ट हाचेपसून तयार केल्ली, उण्यांत उणी तीन वर्सां मुरयल्ली व्हिस्की 'स्कॉच व्हिस्की' म्हूण वळखतात. तिका एक प्रकारचो जळकट वास येता. ३५% सरळ व्हिस्की (हेर द्रव्यां भरसुनाशिल्ली व्हिस्की) आनी ६५% शुध्द आल्कोहॉल 'अमेरिकन व्हिस्की' हो सोरो मेळटा. ऊर्ध्वपतीत सोऱ्यांत व्हिस्की हो सगळयांत चड लोकप्रिय आसा. व्हिस्कीचें संवसारीक उत्पादन दर वर्सा सुमार १० कोटी लिटर जाता आसून कॅनडा, स्कॉटलंड आनी अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां ह्या वाठारांत तिचें चडशें उत्पादन जाता. एकजिनसी व्हिस्कीपरस मिश्र व्हिस्कीक चड मागणी आसा.

२) व्होडका - हो सोरो चवदाव्या शतमानांत रशियेंत पयलीं तयार करपांत आयलो. हो सोरो गंव, राय, मको, बटाट, बीट आदी खंयच्याय पदार्थांपसून किण्वन करतकच जी बीयर मेळटा तिचें ऊर्ध्वपतन करून आनी लोणारी कोळशाच्या थरांतल्यान गाळटकच ऊर्ध्वपतित उदकान थंड करून तयार करतात. हातूंत ४० ते ८०% आल्कोहॉल आसता.

३) जिन - बियरीचें ऊर्ध्वपतन करतना कांय वनस्पती वा मसाल्याचे पदार्थ तातूंत भरशितात तेन्ना जिन् हो सोरो तयार जाता. हो सोरो तयार करपाखातीर जूनिपरचीं फळां, ॲंजेलिकांचीं मुळां, बडीशेप, कोथमीर, कॅरावेचें बीं, संत्रां, लिंबू आदींच्यो साली, जेश्ठमध, वेलदोडो, कॅसियाचें खोड, कडू बदाम हे पदार्थ वापरतात.

४) ब्रँडी - वेगवेगळया व्हायनाचें ऊर्ध्वपतन करतकच ब्रँडी वर्गाचो सोरो मेळटा. तो उण्यांत उणो २ वर्सां लांकडी पिपांत मुरयतात. द्राक्षांपसून मेळपी व्हायनाचें ऊर्ध्वपतन करतकच जो सोरो मेळटा ताका ब्रँडी म्हण्टात. हेर फळांपसून तयार केल्ल्या व्हायनाच्या ऊर्ध्वपतनान जे ब्रँडीप्रकार मेळटात तांचीं नांवां त्या त्या फळांचो उल्लेख ते ते ब्रँडीक ह्या नांवा आदीं लायतात. द्राक्षां आनी हेर फळां हांच्या व्हायनाचें मिश्रण करून आनी तांचें ऊर्ध्वपतन करून कांय ब्रँडीचे प्रकार तयार करतात.

५) कॉन्यॅक - शांपेनच्या वेगवेगळया प्रकारांत फिन्स बॉइस, बॉर्डरीज आदी व्हायनापसून ऊर्ध्वपतनान मेळपी ब्रँडीप्रकार भरसून हो सोरो तयार करतात.

६) आरमान्यक - दक्षिण फ्रांसांत तयार जावपी एक सोऱ्याचो प्रकार. हो कोन्यॅकवरीच वेगवेगळया द्राक्षांच्या व्हायनापसून मेळपी ब्रँडीप्रकार एकठांय भरसून तयार करतात. हेरिथ शेरी ह्या व्हायनापसून तयार केल्ली आनी मातयेचो वास आशिल्ली स्पॅनिश ब्रँडी, पोर्ट व्हायनापसून केल्ली पुर्तुगेज ब्रँडी, मस्कती द्राक्षांपसून पेरू, चिली, अर्जेंटिना आनी बोलिव्हिया ह्या वाठारांत तयार केल्ली पीस्कॉ ब्रँडी, काळया चेरीच्या फळांपसून जर्मनींतल्या ऱ्हाइनाच्या देगणांत आनी स्वित्झर्लंडांत तयार जावपी कीर्शव्हासर ब्रँडी, अलुबुखार फळापसून यूगोस्लाव्हिया आनी बाल्कन देशांत तयार करपांत येवपी स्लिव्हव्हिटस ब्रँडी हे दक्षिण अमेरिकेंतले आनी युरोपांतले कांय ब्रँडी प्रकार आसात. ब्रँडीचें सगळयांत चड उत्पादन फ्रांस आनी अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां ह्या देशांत जाता.

७) रम - ऊंसाचो रोस मोलॅसिस (ऊंसाच्या रोसाच्या ज्या भागापसून साकरेचे स्फटीक साद्या प्रक्रियांनी मेळोवंक येना असो भाग) वा गोड हांच्या किण्वनान तयार जाल्ल्या निखळ सोऱ्याचें ऊर्ध्वपतन करतकच हो सोऱ्याचो प्रकार मेळटा. हातूंत ८०% परस चड आल्कोहॉल मेळटा.

८) कॉडियल लिक्युर - आल्कोहॉल जिन आनी हेर ऊर्ध्वपतित सोरो आनी फळां, सुवादीक आनी मसाल्याचे पदार्थ वा तांचे अर्क, हांच्या मिश्रणांक अमेरिकेंत कॉर्डियल आनी युरोपांत लिक्यूर म्हण्टात. हातूंत ६० - ८५% आल्कोहॉल आनी थोडी साकरय आसता. ॲनिसेट, क्रीम द मेंथ, ट्रिपल सेक, स्लो जिन् हे कांय नामनेचे कार्डियलचे प्रकार आसात. हाचेभायर बेनिडिक्टीन आनी शारट्रूझ ह्या नांवाच्या कार्डियलांची नामना आसा.

**कांय हेर ऊर्ध्वपतिय सोरो :** १) ओकोलेहाओ - ऊंसाचो रोस, तांदूळ, मको हांच्या किण्वनान आनी ऊर्ध्वपतनान हो सोरो तयार करतात. कांय वनस्पतींचींय मूळां वापरून ताका रूच हाडटात. हातूंत ४० - ५०% आल्कोहॉल आसता.

२) टकीला आनी मेस्कल - हो घायपाताच्या कांय जातींच्या रोसाच्या किण्वनान आनी ऊर्ध्वपतनान मॅक्सिकोंत तयार करतात.

३) अरक - ताडाचो रोस वा तांदळापसून किण्वन करून आनी ऊर्ध्वपतनान ईस्ट इंडिज जुंव्यांत तशेंच भारत आनी श्रीलंकेत हो सोरो करतात.

**भारतांतली सोरो निर्मिती :** भारतांत पुर्विल्ल्या काळांत

आल्कोहॉल तयार करपाची क्रिया वाजसनेही संहितेंत आसा. परशुरामाच्या काळांत हैहय राजाचे राजवटींत अशे तरेचो सोरो तयार करताले. त्या काळांत सोरो हाड व्हर करपाखातीर कातडी, परवाली आनी बुधले वापरताले. परवालीच्या सोंडयेवरी तोंडांतल्यान सोरो ओतताले देखून सोरो विकप्यांक शौंडिक म्हण्टाले. तशेंच सोऱ्याच्या दुकानाचेर विशिश्ट बावटो आसूंक जाय, ताचेर सुरापात्रांचीं चिन्नां आसूंक जाय असो उल्लेख मनुस्मृतींत मेळटा.

सद्याच्या काळांत सोरो तयार करपाखातीर मोलॅसस म्हॉवाचीं फुलां, काजू, द्राक्षांचो मुखेलपणान उपेग करतात.

**मोलॅसिसपसून सोरो :** ऊंसाचो रोस आटोवन साकरेचें स्फटिकीकरण करून ती काडून घेतकच जीं चिपटां उरतात तांकां मोलॅसिस म्हण्टात. हातूंत २०% सुक्रोज, २०% ग्लुकोज, २०% हेर कार्बनी आनी ३०% अकार्बनी पदार्थ, २०% उदक आसता. सादारणपणान २००० टन ऊंसापसून सुमार ७० - ८० टन मोलॅसिसचें उत्पादन मेळटा. एक टन मोलॅसिस पसून किण्वन आनी ऊर्ध्वपतन करतकच सुमार २०० लि. आल्कोहॉलाचें उत्पादन मेळटा. वट्ट आल्कोहॉलाच्या उत्पादनांत सुमार ४०% आल्कोहॉल सोरो करपाखातीर वापरतात आनी शुध्द आल्कोहॉलापसून देशी सोरो तयार करतात.

**म्हॉवाचो सोरो :** खूब पुर्विल्ल्या काळापसून भारतांत म्हॉवाच्या फुलाचें ऊर्ध्वपतन करून सोरो तयार करपाची कला प्रचलित आशिल्ली. ह्या फुलांत ६० - ७०% साकरेचें प्रमाण आसता. मोलॅसिस पसून मेळपी सोऱ्याचे देडपटीन चड उत्पादन तितल्याच वजनाच्या म्हॉवाच्या फुलांपसून मेळटा.

**फेणी :** काजुच्या मुट्टयांच्या रोसा पासून तशेंच माडाचे सुरीपसून ऊर्ध्वपतन करून जो सोरो मेळटा ताका फेणी अशें म्हण्टात. सुरीपासून तयार केल्ल्या सोऱ्याक माडाफेणी आनी मुट्टयाच्या रोसापसून केल्ल्या सोऱ्याक काजू फेणी म्हण्टात. फेणी काडटा आसतना मुळाव्या ऊर्ध्वपतनांत मेळपी सोऱ्याक हुर्राक म्हण्टात.

**देशी सोरो :** शुध्द आल्कोहॉलापसून तयार केल्ल्या सोऱ्याक देशी सोरो म्हूण वळखतात. हातूंत आल्कोहॉलाचें प्रमाण मापी ११.४ - ४५.७% आसता.

**ताडी माडी :** ताड आनी माड ह्या झाडाचे पोंयेक खांच घालून तातुंतल्यान पाझरपी सूर एकठांय करून ती आंबयतात आनी ताचेपसून सोरो तयार करतात. हातूंत आल्कोहॉलाचें प्रमाण १०% मेरेन वचूंक शकता.

**आसवां :** चडकरून आयुर्वेदीय वखदांनिर्मितींत वेगवेगळे तरेचीं आसवां (देखीक : द्राक्षासव, कंकासव, कुमारीआसव) तयार करतात. हातूंत आल्कोहॉलाचें मापी प्रमाण १० - १५% मेळटा.

**उद्येगीक उत्पादन :** भारतांत ब्रिटिशांच्या काळांत सोऱ्याच्या उत्पादनाक सुरवात जाली. भारतांत बियर, रम, जिन, व्हिस्की, व्हायन, ब्रँडी आनी जायते प्रकार तयार करतात. हाचेभायर जायत्या सैमीक पदार्थांपसून थळाव्या स्वरुपाचो निरवळ आनी ऊर्ध्वपतित सोरो त्या त्या थळांनी तयार करतात. भारतांत बियरीचो पयलो कारखानो १८६० वर्सा सुरू जालो. हांगा लागर बियर सगळयांत चड लोकप्रिय आसा. १९८२ च्या सुमाराक भारतांत सुमार ५३ कारखाने वेगवेगळया तरांच्या सोऱ्यांची निर्मिती करताले.

**हातभाटयेंतलो सोरो :** अशास्त्रीय पद्दतीन आनी बेकायदेशीर रितीन तयार केल्लो सोरो. असो सोरो करपाची प्रकिया ही चोरून करपाची आशिल्ल्यान घरचे घरा आनी हातान चलपी भाटयेंत करतात. कैफ (किक) चडप हें ह्या सोऱ्याचें मुखेल उद्दिश्ट आशिल्ल्यान भांग, गांजो, चरस सारके कैफ दिवपी पूण विखारी पदार्थ आनी तो तयार करपाक वापरांत येवपी म्हेळी साधन सामग्री आनी हात भाटयेचो गलिच्छ परिसर हाका लागून असो सोरो घेवपी लोकांक विखबाधा जावन खूबजाणांक आपलो जीव वगडावचो पडला.

**सोऱ्याचे शरिरावयले परिणाम :** सोऱ्यांत आशिल्लें आल्कोहॉल हें मनशाच्या शरिराचेर तेचवांगडा मनाचेर थाराविक अशे परिणाम करता. सोरो पितकच सुरवेक तोंडांतले लाळेवरवीं आनी उपरांत जाठररसाक लागून आल्कोहॉलाचें विरलीकरन जावन तें पुराय शरिरांत पातळटा आनी ताचेर कसल्योच प्रक्रिया (देखीक : पचन प्रक्रिया) जायनासतना जठरांत तशेंच ल्हान आतकडयांत तें जिरता. उपरांत जठराच्या बुळबुळीत अस्तरांतल्या बारीक वाहिन्यांतल्यान अभिशोशण (जिरप) जातकच उरिल्लें आल्कोहॉल आतकडयांतल्या बारीक वाहिन्यांतल्यान रगतांत वता.

सोऱ्याचो प्रकार, जठराची स्थिती आनी मानसिक अवस्था आदी गजालींचो अभिशोशणाचेर परिणाम जाता. देखीक : आल्कोहॉलाचें प्रमाण चड आशिल्लें व्हिस्कीसारकें पेय जठरांत शिरतकच जठराचें निर्गम द्वार आंवुळटा आनी हें पेय कांय वेळ जठरांतच उरता. ताकालागून ल्हान आतकडयांतलें अभिशोशण वेळान जाता. कार्बनडायऑक्सायड युक्त पेयां सोऱ्यांत भरशिल्लीं आसल्यार अभिशोशणाची गती वाडटा. जठरांत चडकरून वसेचें अन्न आसल्यार अभिशोशण उणें जाता. जठर आनी ल्हान आतडयांत अभिशोशण केल्लें आल्कोहॉल यकृतांत येता आनी हांगा ताचेर व्हड प्रमाणांत चयापचयात्मक प्रक्रिया घडटात. तशेंच आल्कोहॉलाचे कांय अंश काळजाचे उजवे वटेन थंयच्या फुफ्फुसांत आनी परत काळजाचे दावे वटेन येवन शुध्द रगत प्रवाहांतल्यान शरिरांतल्या ऊतकांमेरेन पावता. शरिरांतल्या ऊतकांत आल्कोहॉलाचो सांठो जायना ताका लागून शरिर रोकडया रोकडें आल्कोहॉलाची विल्हेवाट लावपाक सुरवात करता. सोरो पियेवप आनी जेवण जेवप एकाच वांगडा केल्यार आल्कोहॉल चड बेगीन ना जाता अशें दिसून आयलां.

यकृतांत चयापचयावरवीं ऑक्सीडीकरण जावन अभिशोशण

केल्ल्या वट्ट आल्कोहॉलांतलें २०% आल्कोहॉलाची वेवस्था लावप जाता. ऑक्सीडीकरणाचें प्रमाण मनशा मनशाच्या यकृताचे क्रियाशिलतेप्रमाण वेगवेगळें आसता. मूत, उस्वास आनी घामावरवीं सुमार १०% आल्कोहॉल शरिराभायर वता. हाचेभायर आल्कोहॉल शरिराच्या कात, जठर आनी आतड्यो, यकृत, अग्निपिंड, काळीज, मेंदू हांचेर परिणाम करता.

सोरो मनशाच्या शरिराचेर तशेंच मनाचेर अनिश्ट परिणाम करता. देखून, मानसिक आनी शारिरीक नदरेंतल्यान सोरो पियेल्ली व्यक्ती आल्कोहॉलाच्या प्रभावाखाला उरता. ह्या प्रभावाचो प्रतिकूल परिणाम जाता. अशे परिणाम समाजमान्य जीवनपद्धती विरोधी आशिल्ल्यान सोरो पिवपाचे सार्वजनीक पद्दतीचेर समाजांत निर्बंध घाल्यात. शासनानय अशा निर्बंधांक तेंको दिला.

सोऱ्याच्या उत्पादनाचेर आनी विकपाचेर संवसारांतल्या सगळ्या देशांत खर सरकारी निर्बंध आसात. दर एका उत्पादकाक उत्पादनाचो परवानो घेवचो पडटा आनी तेरखातीर मालाचो अपेक्षीत दर्जो, प्रकार, गुणधर्म, उत्पादनाची पद्दत आदींची म्हायती संबंदीत अधिकाऱ्याकडे नोंद दिवची पडटा. तशेंच सोरो विकप्याकय अधिकृत परवानो घेवनच कायद्याप्रमाण विक्री करची पडटा.

उत्पादन आनी वितरण, हांचेर अबकारी कर, वाहतुकीवयलो जकात कर आनी आयातीवयले कर अशे सोऱ्याचेर वेगवेगळे कर आकारप जातात आनी हो कर हेर वेपारी मालापरसय चड आसता. सोऱ्यावयल्या कराचें प्रमाण तातुंतल्या आल्कोहॉलाचें प्रमाण आनी मालाचो पावंडो हाचेर आदारून आसता. हाचेभायर आल्कोहॉलाचे तपासणेवेळार तातूंत हेर मादक द्रव्यां तशेंच विखारी द्रव्यां आसात कांय ना हेंय तपासप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**सोव्हियत युनियन :** (पळेयात रशिया).

**सोळा सोमार व्रत :** एक काम्य व्रत. हें व्रत बायलो आनी दादलेय करतात. शिव ही ह्या व्रताची प्रधान देवता. वैशाख, श्रावण, कार्तिक, माघ हातुंतल्या एकाद्र्या म्हयन्यांत शुक्ल पक्षांतल्या खंयच्याय सोमाराक ह्या व्रताक सुरवात करतात. नेमान सोळा सोमार जाल्याउपरांत सतराव्या सोमाराक ताचें उद्यापन करतात.

ह्या व्रताची कथा अशी - विदर्भ देशांत अमरावती नांवाची नगरी आशिल्ली. तिच्या शेजराक एक उपवन आसून, थंय एक शिवालय आशिल्लें. एकदां भोंवत भोंवत शंकर - पार्वती त्या उपवनांत आयलीं, त्या स्थळाची प्रसन्नता पळोवन थंय द्यूत क्रिडा करची अशी तांकां इत्सा जाली. उपरांत तांचो फाशांचो खेळ सुरू जालो. ह्या खेळांत कोण जिकतलो, हाचो निकाल दिवपाक पार्वतीन देवल नांवाच्या शिवगणाक सांगलें. ते शिवगण आशिल्ल्यान ताणें शंकराचे वटेन निकाल दिलो. पार्वतीक हे गजालिचो राग आयलो आनी तिणें देवलाक 'तूं कुष्ठरोगी जातलो' म्हूण स्त्राप दिलो. तेन्ना तो कुष्ठरोगी जावन पडलो. दुर्येसांतल्यान आपल्याक कशें वाटावचें ह्या विचारांत आसतना, शंकराची पुजा करपाक आयिल्ल्या अप्सरांनी देवलाक पळोवन, ताची चौकशी करून, रोगांतल्यान मूक्त जावपाखातीर ताका सोळा सोमार व्रत करपाक सांगलें. उपरांत देवलान तें व्रत करून तो रोगांतल्यान मूक्त जालो.

फुडें भोंवत भोंवत शंकर पार्वती थंय परतून आयलीं. तेन्ना देवलाक रोगमूक्त जाल्लो पळोवन तीं दोगांय अजापीत जालीं. पार्वतीन जेन्ना चौकशी केली, तेन्ना ही शिवव्रताची महिमा आसा म्हूण कळळें. फुडें षडानन जेन्ना तिचेर रागार जावन खंय तरी गेलो, तेन्ना तिणेंय तेंच व्रत केल्याउपरांत षडानन तिका मेळ्ळो. षडाननानय तेंच व्रत केल्याउपरांत ताची आनी ताचो मोगाळ इश्ट काश्यपाची भेट जाली. लग्नाक इत्सुक जावन काश्यपान तें व्रत करून तो एके राजकन्येचें स्वयंवर पळोवपाखातीर गेल्लेकडेन राजकन्येन ताकाच पसंत केलो. फुडें पूत जावचो म्हूण ते राजकन्येनय तें व्रत केलें. तेन्ना तिका पुत्रप्राप्ती जाली. वैभवाची इच्छा धरून त्या पुतानय हें व्रत करतकच एका राजान आपली धूव ताका दिवन, वार्धक्यांत आपलें राज्य ताच्या स्वाधीन केलें.

मुखार राज्य प्राप्त जाल्याउपरांत त्या पूतान हें व्रत केलें. शिवाच्या देवळांत वता आसतना निवेद्याखातीर गंवांच्या पिठाचे लाडू करून धाड म्हण ताणें आपले बायलेक सांगलें. पूण ती राजकन्या आशिल्ल्यान गंवांच्या पिठाचे लाडू धाडपाक तिका कमीपण दिसलें म्हणून तिणें त्या बदला भांगराच्यो पांचशे मोहरो धाडल्यो. आपल्या व्रताचो भंग जाल्ल्यान शंकराक राग आयलो. स्वप्नांत राजाक दर्शन दिवन शंकरान ताका बायलेचो त्याग करपाक सांगलें. राजान नाइलाजान तिचो त्यागय केलो.

उपरांत राणी रानांत भोंवूक लागली. पूण तिका खूब हालअपेश्टांक तोंड दिवचें पडलें. तिका कोणूच थारो दिना जालो. तिका पळोवन न्हंयो, तळीं आटपाक लागलीं. निमाणेकडेन तिची जटाधारी यतीकडे गांठ पडली. ताणें तिका आपल्या आश्रमांत व्हरून तिची चौकशी केली. हो सगळो शंकराचे अवकृपेचो परिणाम आसा, हें जाणून त्या यतीन तिचेकडल्यान सोळा सोमार करून घेतले. त्या व्रताच्या प्रभावान तिच्या घोवाक स्मृती जावन ताणें तिच्या सोदाखातीर चारय दिकांनी दूत धाडले. सोद लागल्याउपरांत तिका घरा हाडली. शंकराचे कृपेन ताका पूत जालो. पुताचेर सगळ्या राज्याचो भार सोंपोवन राजा राणी रानांत वचून शिवाची उपासना करून निमाणी तीं दोगांय मेलीं.

ह्या व्रताची पद्दत अशी - ह्या व्रताक सुरवात करचे पयलीं,

सकाळचें उठून न्हावन उपास करतात. सांज जाल्याउपरांत यथाविधी व्रताचो संकल्प करून शंकराच्या षोडशोपचाराची पुजा करतात. तरेतरेचीं फुलां, फळां अर्पण करतात. देवाक खडीसाकरेचो वा रोटाचो निवेद्य दाखयतात. पुजा जाल्याउपरांत अळणी जेवण जेवप, अशें शास्त्रवचन आसा.

सतराव्या सोमारा पुजा करपाखातीर शिवाच्या देवळांत वतात. पुजेंतल्या फुलांनी सोनचाफो, बेल, कमळ, पुन्नाग आनी बकुल ह्या फुलांचो आस्पाव करचो अशें शास्त्रवचन आसा. पांच शेर गंवांचे पीठ घेवन ताच्या चवथ्या भागाइतलें तूप आनी गोड घालून ताचें रोट भाजतात, ताचे तीन भाग करून, एक भाग निवेद्य दाखयतात. एक भाग देवळांतल्या लोकांक प्रसाद म्हण वांट्टात आनी एक भाग व्रतकर्तो खाता. पुजा जाल्या उपरांत सोळा ब्राह्मण दांपत्याक जेवण वाडटात आनी तांचो यथाशक्ति भोवमान करतात.

हाचें फळ सगळया पापांचो नाश जावचो आनी आपली इत्सा पुरी जावची हें आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**सौझ, अँथनी (टॉनी) जॉन द :** (जल्म : १४ ऑक्टोबर १९२०, मुंबय; मरण : १ मार्च १९८१, मुंबय).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें मॅट्रिक मेरेन शिक्षण घेतलें. सुरवेक पाद्री जावपाक तो सेमीनारींत गेल्लो. पूण उपरांत तें सोडून तो भारताचे भोंवडेर गेलो. काशी हांगा ताणें कांय तेप वेदांचें शिक्षण घेतलें. उपरांत तो लोयडस् बँकेंत रुजू जालो. फुडें हे बँकेच्या कामगार संघाचो तो सरचिटणीस जालो. १९५२ वर्सा तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी जालो. उपरांत सुटके चळवळींनी तो वांटो घेवंक लागलो. तो हे संघटनेचो सरचिटणीस म्हूण काम पळयतालो. १५ ऑगस्ट १९५४ दिसा काणकोणच्या पोळें वाठारांतल्यान गोंयचे शीमेचेर सत्याग्रहींचो पयलो पंगड घेवन ताणें सत्याग्रह केलो. तेन्ना ताका ताच्या वांगड्यांसयत अटक केलो. सुरवेक ताका पणजेच्या आल्तिनोवयल्या मनोरूग्ण बंदखणींत घाल्लो. उपरांत आग्वाद आनी रेईश मागूश बंदखणींत दवरून ताका २८ वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. १९५९ वर्सा ताचे ख्यास्तींत सूट दिवन ताची सुटका जाली. उपरांत तो परत भूंयगत चळवळींनी वावर करूंक लागलो. ह्या वेळार परत पोलिसांनी वास्को हांगा ताका अटक करून बंदखणींत घालो. फुडें गोंय सुटके उपरांत ताची सुटका जाली.

१९६३ वर्सा तो जिल्हा काँग्रेस समितीचो चिटणीस म्हूण वेंचून आयलो. मुरगांव गोदी कामगार संघटनेचो तो संस्थापक वांगडी आशिल्लो. महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचो तो वांगडी आसलो. ओपिनियन पोला उपरांत तो ह्या पक्षाचो जोड चिटणीस जालो. १९६४ वर्सा तो पणजी नगरपालिकेचो वांगडी म्हूण वेंचून आयलो. गोवा भारत स्काऊटस अँड गायडसाचो राज्य मुखेल कमिशनर म्हणून ताणें काम केलां. मार्च १९६७ त मांद्रे मतदार संघांतल्यान तो गोंय, दमण आनी दीव विधानसभेचो आमदार म्हूण वेंचून आयलो. तेन्ना ताका कायदो, कामगार, उद्देग आनी शेतवड ह्या खात्यांचें मंत्रिपद मेळ्ळें. पूण महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षांतल्या फुडाऱ्यांकडेन ताचे मतभेद जाल्ल्यान १९ जून १९७० ह्या दिसा ताणें मंत्रीपदाचो राजिनामो दिलो. उपरांत तो इंडियन नॅशनल काँग्रेस संघटनेचो वांगडी जालो. तो गोंय शिपयार्ड कामगार संघटना, राश्ट्रीय इंजिनियरींग कामगार संघटना आनी इंडियन नॅशनल ट्रेड युनीयन काउन्सीलचो वांगडी आसलो. उपरांतच्या काळांत राजकारण सोडून तो समाजसेवा करूंक लागलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो. १८ जून १९८४ ह्या दिसा गोंय, दमण आनी दीव सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सौझ, राफेल आंतोनियु द :** (जल्म : २० मे १९२६, अस्नोडा - बार्देस).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण इंग्लिशींतल्यान घेतलें. १९५४ वर्सा तो मुंबयच्यान गोंयांत आयलो आनी 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी जालो. उपरांत तो पत्रकां लावप, लोकांक सुटकेझुजांत वांटो घेवंक स्फुर्त दिवप, लोकांक राश्ट्रीय साहित्य, पत्रकां वांटप असलीं कामां तो करतालो. एक फावट पीटर आल्वारीस हाणें साकरवाळ हांगा आयोजित केल्ले बसकेंत वांटो घेतलो, ह्या आरोपाखाल १९ मार्च १९५५ ह्या दिसा जेम्स फेर्नांदीस हाचेवांगडा पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका अटक केलो. पोलिसांनी ताका खूब मार दिलो आनी दोन वर्सांखातीर बंदखणींत दवरलो. १९५८ वर्सा बंदखणीसावन ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**सौझ, लिबानु एस् द :** (जल्म : ६ सप्टेंबर १९३०, नायरोबी, आफ्रिका).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें मुळावें शिक्षण पुर्तुगेज आनी इंग्लिशींतल्यान घेतलें. १९५४ वर्सासावन तो 'क्वीट गोवन ऑर्गनायझेशन' चो, तशेंच मुंबयचे गोंय सुटके समीतीचो आनी गोवन पोलिटीकल कोन्फरन्स चो वांगडी आशिल्लो. ह्या काळांत तो राजकीय वावरांनी वांटो घेतालो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी णव म्हयने अल्तिनोवयले बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र

दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**सौराष्ट्र :** भारताचे अस्तंत देगेर आशिल्लें एक पुर्विल्लें द्वीपकल्प. हाचे दक्षिणेक आनी नैऋत्य दिकेक सिंधू दर्या, वायव्य दिकेक कच्छचें आरवात आनी उदेंतेक खंबायताचें आरवात आसून, उत्तरेक गुजरातची मुखेल भूंय आसा. ह्या द्वीपकल्पाची देग अर्द वाटकुळी आसून, ताचो कांय भाग फातरांचो आनी चडसो भाग चिखलान भरिल्लो आसा. देगेलागचो भूंयभाग पिकाळ आसून थंय दाट रानां आसात. उत्तरेकडलो भूंयभाग सुको आनी रेंवेचो आसा.

ह्या प्रदेशांत दोंगरांच्यो दोन रांको आसात. ते दोंगर चड ऊंच नात. बरडाच्या दोंगराचें सगळयांत ऊंच तेमूक आभपुरा ह्या नांवान वळखतात. दक्षिणेंतले रांकेंत गिरनार हो प्रसिद्द दोंगर आसा. ताची उंचाय ३,६०० फूट आसून, भोंवतणी दाट झाडां आसात. सौराष्ट्राच्या मदल्या भागार पठार आसून, थंयच्या वाठारांतल्या चडशा न्हंयांचो उगम जाता. तातुंतल्यो भादर, शेत्रुंजी, मंच्छू, आजी, भोगावो, सुक, भादर, केरी, घेलो आनी कालुभार ह्यो मुखेल न्हंयो. तातुंतली भादर ही न्हंय सगळयांत व्हड.

खूब पुर्विल्ल्या काळांत हिमालयाच्या पायथ्यामेरेन महासागर पातळिल्लो अशें म्हण्टात. ताच्या मदल्या भागार अरवली दोंगर आसून, दक्षिणेक भारतीय महाद्वीप आसलो. त्या द्वीपाच्या अस्तंत देगेलागीं सौराष्ट्र, कच्छ जुंवे आसले. सद्याचो झालावाड हो भूंयभाग उदकासकयल आसलो. काळांतरान उत्तरेकडलो दर्या न्हयांच्या उदकावांगडा व्हांवत आयिल्ल्या गाळान भरलो आनी भूप्रदेश भूंयकांपान वयर आयलो. अशे तरेन गुजरातची भूंय निर्माण जाली आनी सौराष्ट्र हे जुंवे ताका जोडले. ह्या द्वीपकल्पाची सगळयांत चड लांबाय २७५ मैल आनी रुंदाय १६० मैल आसून, ताचें क्षेत्रफळ २३,५०० चौ. मैल आसा.

**इतिहास :** सौराष्ट्राविशीं वेगवेगळयो आख्यायिका प्रचलित आसात, तातुंतली एक अशी -

मनूचो नातू आनर्त हो सुराष्ट्राचेर राज्य करतालो. द्वारका ही ताची राजधानी आसली. उत्तर गुजरात हो प्रदेश ताचे सत्तेखाला आसलो. आर्नताचो पूत रेवत आनी ताचो पूत रैवत. रैवताची धूव रेवती ही बलरामाची बायल आसली. बलरामान रैवताचो पराभव करून ताचें राज्य घेतलें अशी कथा पुराणांत आसा.

दुसरे एके कथेंत यादवांनी दानवाकडल्यान सुराष्ट्र जिकून घेतलें अशें सांगला. भारतीय महायुध्दाउपरांत ३६ वर्सांनी यादवामदीं झगडीं - झुजां जावन यादवांचो नाश जालो. त्याउपरांत द्वारका नगरी दर्यांत बुडली.

ह्या सुराष्ट्राचेर मौर्य, यवन, शक, गुप्त, मैत्रक, सैंधव, चालुक्य, आभीर, चाप ह्या वंशांतल्या लोकांनी आपलो शेक गाजयलो.

मध्यकाळांत सौराष्ट्राचेर मराठ्यांची सत्ता आयली. इ.स. १८०२ वर्सा सगळे प्रदेश गायकवाडाकडल्यान ब्रिटिशांक मेळळे. ब्रिटीश सत्तेखाला सगळया जहागिरीची संस्थानां जालीं. इ.स. १९४७ मेरेन सगळीं संस्थानां ब्रिटीश सरकाराचीं मांडलीक आसलीं. स्वातंत्र्या उपरांत तीं भारतीय संघराज्यांत विलीन जालीं. उपरांतच्या भाशावार प्रांत रचणुकेचे प्रक्रियेंत, सौराष्ट्राचो गुजरात राज्यांत आस्पाव जालो.

**अर्थीक स्थिती :** सौराष्ट्रांत खनिजां आनी फातर खूब आसात. उत्तर भागांत खूप लोखण सांपडटा. तशेंच भांगर आनी तांबें हेय धातू सांपडटाले. इमारतीखातीर लागपी फातर हांगा खूबकडेन सांपडटात.

शेतवड हो सौराष्ट्रांतलो मुखेल धंदो. न्हंयांक धरणां बांदून शेताक उदकापुरवण करतात. कापूस, गंव, ज्वारी, बाजरी, मूग, गळिताचीं धान्यां, ऊंस, हळद भात हीं हांगाचीं मुखेल पिकां आसून, फळां - भाज्योय खूब पिकतात. थंयच्या रानांत इमारतीखातीर लागपी लांकूड व्हडा प्रमाणांत मेळटा.

सौराष्ट्रांत दर्यादिगेर मिठागरां आसून, व्हड प्रमाणांत मिठाचें उत्पादन जाता. नुस्तें मारपाचोय धंदो लोक करता. थंय मोतयांय सांपडटा.

ह्या प्रदेशाचे दर्यादिगेर नवलखी, वेरावळ, पोरबंदर, बेडी हीं बंदरां पुर्विल्ल्या काळासावन प्रसिद्द आसात. ह्या बंदरांतल्यान अस्तंतेकडल्या देशांकडेन बरोच वेपार धंदो चलतालो.

सौराष्ट्रांत गायो म्हशी खूब दूद दिवपी आसल्याकारणान दुदाचें उत्पादन भरपूर वाडलां. हांगा दूद आनी दुदाचो पिठो डब्यांत बंद करपाचे कारखाने आसात. ह्या प्रदेशांत सूत कातून वस्त्र विणपाचो उद्देग खेड्या - पाड्यांनी ल्हान - व्हड प्रमाणांत चलता. खादीचें उत्पादन भरपूर आसा. लोकरीचें उत्पादन खूब आसल्याकारणान त्या लोकरीच्यो कांबळी तयार करतात.

थंय चुन्याची खडी, रेंव हे पदार्थ भरपूर आसल्याकारणान शिमीट, पॉटरी, कंवचेचें सामान, सोडा ॲश, क्लोरायडझ् कॉस्टिक सोडा तयार करपाचे कारखाने आसात. तशेंच वनस्पती तूप, एनॅमल, सारीं, रंग, प्लॅस्टिक्स, रबर, रेशीम, शाबू, साकर तयार करपाचे ल्हान ल्हान कारखाने आसात. कापसाचें उत्पादन व्हडा प्रमाणांत जाता. चडसो कापूस निर्यात करतात.

भांगरा - रुप्याचें कलाबतूचें विणकाम, वासाचें तेल आनी उटणीं, अत्तरां, हस्तिदंती आनी चंदनी नक्षीदार वस्तू तयार करप हे उद्देग ह्या प्रदेशांत चलतात.

**लोक आनी समाजजीण :** सौराष्ट्रांत मुखेल वसती राजपुतांची आसून, तांच्यांत कितल्योशोच जाती आसात. चावडा,

चुडासमा, जेठवा, जाडेजा, झाला, गोहिल, ह्यो तातुंतल्यो मुखेल. ह्या वेगवेगळया जातींचे राजपूत वेगवेगळया काळांत, वेगवेगळया प्रदेशांतल्यान येवन स्थायिक जाले. बाघेला, चौहाण, मकवाणा, सोळंकी, राठोड, भाटी, यादव, पदिराय, मोरी, रहेवार, घेलोट, नरोडा, ह्यो तांच्यो शाखा आनी उपशाखा आसात.

राजपुतांच्या उपरांत काठी लोकांचो नंबर लागता. तांचेवयल्यान सौराष्ट्राक काठियावाड वा काठेवाड हे नांव फाव जालें. मुसलमानांची वसणूक सुमार शेंकड्याक २५ इतली आसा. जुनागड, मांगरोल, राणपूर, बजाणा, दसाडा हीं मुसलमानांचीं संस्थाना आसलीं. तशेंच ल्हान व्हड मुसलमान सरदार आनी जहागिरदारय आसले. ह्या लोकांचे सैय्यद शेख, पठाण, मोगल अशे चार मुखेल वर्ग आसात. मेमण, बोहरी, खोजा, मोमना आनी सिपाय ह्यो तांच्यो मुखेल जाती.

पुर्विल्ल्या काळांत सिथियन, पर्थियन, यवन, इराणी, अरब, पुर्तुगेज लोक वेपारानिमतान सौराष्ट्रांत स्थायिक जाले. त्याच प्रमाण भारताच्या हेर भागांतले वेगवेगळे लोकय थंय वचून त्या समाजांत भरसून गेले अशें आसले तरी ह्या लोकांनी आयजय आपापलें वेगळेपण कांय प्रमाणांत राखून दवरलां.

सौराष्ट्रांत सुर्योपासना खूब पुर्विल्ल्या काळासावन प्रचलित आसा. श्रीकृष्णाच्या पुतान सांब हाणें ती सुरू केली, अशी कथा पुराणांत मेळटा. मध्ययुगांत गुजरातांत आनी सौराष्ट्रांत सूर्य देवळां निर्माण जालीं. बौध्द धर्म, जैन धर्म, पाशुपथ पंथ, स्वामी नारायण पंथ (म्हळयार द्वारकाधीश श्रीकृष्ण) हांचो प्रसार थंय जाला. तशेंच सौराष्ट्रांत नागपुजा बरीच प्रचलित आसा. घरांतल्या मनशांक गोरवांक सोरपासावन कांय वायट घडचें न्हय म्हण नागाचें चित्र काडून पुजा करतात. कांय कडेन आंबो आनी रुमड ह्या झाडांची पुजा करतात. बरेचशे लोक शक्तीचे उपासक आसल्याकारणान खोडियार, चामुंडी, महाकाली ह्या देवांची कुलदेवतेप्रमाण पुजा करतात. शक्तीचें प्रतिक म्हण सगळेकडे त्रिशूळाचें चित्र काडून ताची पुजा करतात.

धार्मिक आनी मंगलकार्याक पयलीं गणपतीची पुजा करपाची रीत सौराष्ट्रांत आसा. वैशाख शुध्द चवथीक गणेशाची जल्मतिथ मानून त्या दिसा घरांत पिंजरीन चवकोन काडून तातूंत गणेशाची स्थापना करून, ताच्या भोंवतणी शेवणीं आनी स्वस्तिक काडून ताची पुजा करतात.

**सण - उत्सव :** दसरो, दिवाळी, पाडवो, मकर संक्रांत, होळी, रामनम, रक्षाबंधन, कृष्णजल्माष्टमी हे सण आनी उत्सव ह्या प्रदेशांत मनयतात. वैशाखांत अक्षय तृतियेच्या दुसऱ्या दिसा थंय चवथ मनयतात. हे लोक गणपतीची मूर्त हाडीनासताना दाराचेर 'श्री गणेशाय नमो :' अशें बरोवन ताची पुजा करतात. ते मोदकांचो निवेद्य दाखयतात. हांगाचो सगळयांत व्हड उत्सव नवरात्राचो. त्या दिसांनी रातभर गरबा, रास, दांडिया, गायनाच्यो कार्यावळी जातात.

**कलाकुसर :** सौराष्ट्रांत खूब कडेन फातराचेर कोंत्रायल्लीं लेणीं आनी विहार सांपडटात. जुनागड हांगाच्या अमरकोट लेण्यांतलें दोन मजली सभाघर गुप्तकाळांतलें आसून, तातुंतलो खांबो हो त्या काळांतलो शिल्पकलेचो उत्कृश्ट नमुनो. गोप हांगाचें विष्णुचें देवूळ, ठाणालागचें त्रिनेत्रेश्वराचें देवूळ हीं शिल्पकलेचें सौंदर्य दाखयतात.

अणहिलवाडच्या सोळंकी राजांनीय शिल्पकलेक प्रोत्साहन दिलें. गिरनार आनी शत्रुंजय दोंगरांवयल्या जैन देवळासारकें सेजकपूर, अनादपूर, चोबारी, परबोदी, मियाणी, मूळ माधवपूर हांगाचीं ब्राह्मणी देवळां उत्कृश्ट शिल्पकलेच्यो देखी आसात.

सोळंकी वंशांतल्या सिध्दराज आनी कुमारपाल हांणी बांदिल्लें सोमनाथाचें देवूळ सगळयांत व्हडलें शिल्पकाम मानतात.

वाघेल वंशाचे राजवटींत वास्तूपाल आनी तेजपाल हांणी खूब देवळां बांदलीं. घुमली हांगाच्या नवलाख देवळाचो सभामंडप दोन मजली आसून, ताचे सज्जे विमानाच्या पारवाट्यासारखे आसात.

सोळंकी राजवटींतलीं चडशीं देवळां मुसलमानांनी नश्ट केलीं आनी थंय मशिदी उबारल्यो. जुनागड, वंशाळी मांगरोळ, प्रभास, उनास हांगा अशो मशिदी पळोवंक मेळटात.

**साहित्य :** सौराष्ट्रांत मध्ययुगांत खूब लोकसाहित्य निर्माण जालें. हें सगळें लोकसाहित्य गुजराती भाशेंत आसा. मुद्रणयुगाक सुरवात जाल्याउपरांत हें साहित्य पुस्तक रुपान प्रसिद्द जावंक लागलें. ताचे पयलीं तें तोंडी साहित्य रुपान आसलें. हाचे रचनाकारय अज्ञात आसात. ह्या साहित्यांत सगळयांत चड साहित्य चारण लोकांनी केलें. ते राजाच्या आलाशिऱ्याक रावून ओजस्वी काव्यां बरोवन तांकां पराक्रम गाजोवपाची स्फूर्त दिताले. तशेंच तांणी संतांचीं चरित्रां वर्णन केल्यांत. हरिरस, नागडमण, ओखाहरण अशे तरेचीं आख्यानां रचलीं. गुजराती भाशेंत दोहा साहित्याचें व्हडलें भांडार आसा. चारण, भाट, बारोट ह्या जातींच्या लोकांनी अद्भूतरम्य अशो कथा सांगपांत प्राविण्य मेळयलां. ल्हान भुरग्यांनी खेळटना म्हणपाचीं खेळांपदां, व्रतगीतां, लग्नापदां, उपनयन गीतां, अंगाईगीतां, इतिहासीक आनी सामाजिक रास, नवरात्रांतलो गरबा, शोकगीतां अशें वेगवेगळें साहित्य तांणी निर्माण केलें.

- कों. वि. सं. मं.

**स्कंदपुराण :** एक महापुराण. अठरा पुराणांत ह्या पुराणाचो क्रमांक खंयचो हें सांगप खूब कठीण. पूण महापुराणांतलें स्कंदपुराण आकारान सगळयांत व्हड. ताची श्लोकसंख्या ८१,००० इतली आसा. हे श्लोक स संहितांनी विभागल्यात. हातुंतले सनत्कुमार संहितेंत ३६,००० श्लोक; सूत संहितेंत ६,०००; शंकर संहितेंत ३०,०००; वैश्णव संहितेंत ५,०००; ब्राह्म संहितेंत ३,००० आनी सौर

संहितेंत १,००० श्लोक आस्पावल्यात. माहेश्वर, वैशणव, ब्रह्म, काशी, अवती, तापी आनी प्रभास हे स्कंदपुराणाचे सात खंड. इ.स. च्या सातव्या ते णवव्या शेंकड्यामेरेन ह्या पुराणाची निर्मिती जाल्या आसुंये, अशें विद्वानांचें मत आसा.

सूतसंहिता ही संहितापरंपरेंतली सगळयांत म्हत्वाची. ही संहिता फुडें शिवमाहात्म्य, ज्ञानयोग, मुक्ती आनी यज्ञवैभव अशा चार खंडांनी विभागल्या. शिवमाहात्म्यखंडांत १३ अध्याय आसून, तातूंत शिवाच्या वैदिक आनी तांत्रिक अशा अभयविध पुजांचें विस्तारीत वर्णन केल्लें आसा. ज्ञानयोग खंडांत २० अध्याय आसून, तातूंत आचार धर्माचें विवेचन केल्लें आसा. मुक्तिखंडांत णव अध्याय आसून, तातूंत मोक्षधर्माचे उपाय सांगल्यात. यज्ञवैभव हो हातुंतलो सगळयांत व्हड आसून, तातूंत ४७ अध्याय आसात. ह्या खंडांत अद्वैतसिध्दांत आनी शिवशक्तिरहस्य सांगलां. दार्शनिक नदरेन हो खंड चड म्हत्वाचो. हाच्या उत्तर भागांत ब्रह्मगीता आनी सूतगीता सांगल्यात. ब्रह्मगीतेंत सुरवेक वेदार्थ विचार मांडून, परब्रह्माच्या साक्षी स्वरुपाचें वर्णन केल्लें आसा.

स्कंदपुराणांतल्या सात खंडांतलो माहेश्वर खंड पयलो. ह्या खंडाचे केदारखंड आनी कौमारिकाखंड अशे उपविभाग केल्ले आसात. केदारखंडांत लिंगमाहात्म्य, दक्षयज्ञविध्वंसन, समुद्रमंथन, वृत्रासुरवध, बलिबंधन, शिवगौरीविवाह, कार्तिकेयजल्म, तारकासुरवध, शिवपार्वती द्यूतक्रिडा. शिवाचें वनगमन ह्या कथाभागाचें वर्णन केलां. जाल्यार कौमारिकाखंडांत मही -सागर संगमाचें महाकाव्य, अप्सरांचो उध्दार, अर्जुन आनी मानगें, पार्वतीजल्म, सोमनाथ माहात्म्य, कौरव - पांडवद्यूज, महिशासुर वध, रावणकृत सिताहरण आनी हेर कथाभाग सांगल्यात. दुसऱ्या म्हळयार वैशणवखंडांत जगन्नाथक्षेत्राचें माहात्म्य, बदरिकाश्रममाहात्म्य, दीपदान, तुलसीविवाह, एकादशीमाहात्म्य, भागवतमाहात्म्य, अयोध्यामाहात्म्य, वैशाखमाहात्म्य, मदनदहन, कार्तिकेय अवतार, वासुदेवमाहात्म्य, लक्ष्मीनारायणमाहात्म्य, शिवमाहिमा, वर्णआश्रमधर्म आनी हेर कथा आसात. ब्रह्मखंडांत गोकर्णमहिमा, शिवरात्रीमहिमा, सीमांतिनी आनी भद्रायू हांचीं आख्यानां, शिवगौरीविवाह हांचें वर्णन, जाल्यार काशीखंडांत काशीक्षेत्राची व्हडवीकाय आनी थंयच्या शिवलिंगाचें वर्णन केलां. अवतीखंडांत उज्जयिनिच्या महाकाळाचें माहात्म्य विस्तारान सांगलां. पुरूरवा - उर्वशी हांच्यो कथाय तातूंत आस्पावल्यात. पद्मावतिचे कथेंत समुद्रमंथनाचो प्रसंग वर्णिला. रेवा हो अवतीखंडाचो उपखंड. हातूंत नर्मदा न्हंयेची उत्पत्ती, तिचे देगेचेर आशिल्लीं तिर्थक्षेत्रां आनी मांधात्याची कथा सांगल्या. बंगाल देशांत प्रचलित आशिल्ले स्कंदपुराणाचे पटयेंत सत्यनारायणाची कथा रेवाखंडांत आसा. पूण मुंबय प्रकाशीत केल्ल्या रेवाखंडांत ती ना. तापीखंडांत तापी न्हंयेचें श्रेश्ठत्व दिल्लें आसा. जाल्यार प्रभासखंडांत प्रभासक्षेत्र आनी सोमनाथ हांचें माहात्म्य सांगलां. उपरांत द्वारकामाहात्म्य सांगून, द्वारकेची यात्रा कशी करची हें क्रमान सांगलां.

स्कंदपुराण तमिळनाडूंत चड लोकप्रिय आसा. कच्चियप्प शिवाचार्य हाणें इ.स.च्या १७ व्या शेंकड्यांत ह्या पुराणांतल्या शंकर संहितेचें तमीळ भाशेंत भाशांतर करून ताका स्कंदपुराण अशें नांव दिल्लें. तातुंतलीं सुरवेचीं स कांडां शिवचार्यान रचल्यांत, जाल्यार सातवें कांड ताचो शिश्य कोनेशियप्प मुदलियार हाणें रचलां. ह्या तमीळ भाशांतरांची श्लोकसंख्या १४,९९६ इतली आसा.

- कों. वि. सं. मं.

## स्टालिन : (जल्म : १८७८, जॉर्जीया; मरण : मार्च १९५३).

सोव्हियत युनियनचो हुकूमशहा. धर्मोपदेशक करपाच्या हेतान ताच्या घरच्यांनी ताका धार्मिक शिक्षण घेवपाखातीर मिशनरी संस्थेंत घातलो. पूण ताच्या पाखंडी विचारांक लागून ताका मिशनरींतल्यान धांवडावन घालो. उपरांत तो देशांतल्या साम्यवादी क्रांतिकारकांच्या आंदोलनांनी वांटो घेवपाक लागलो. १८९८ त तो सोशल डेमॉक्रेटिक पक्षाचो वांगडी जावन, तो मार्क्सप्रणीत तत्त्वांचो प्रचार आनी संघटनात्मक वावर करपाक लागलो. ताच्या वाडट्या



क्रांतीकारी हालचालींक लागून ताका रशियन सरकारान १९०३ ते १९१२ ह्या काळांत पांच खेपे सैबेरीयेंतल्या वसू प्रदेशांत धांवडावन घातिल्लो. पूण पांचूय खेपे थंयच्यान पळून येवपाक ताका यश मेळळें. १९१२ त तो पक्षाचे मध्यवर्ती समितीचो वांगडी जालो. १९१३ सावन 'प्रावदा' ह्या कम्यूनिस्ट पक्षाच्या खबरांपत्रकाखातीर तो लिखाण आनी संपादन करपाक लागलो. नोव्हेंबर १९१७ त जाल्ले रशीयन क्रांतींत ताचें व्हड योगदान आशिल्लें. क्रांतिउपरांतच्या कम्यूनिस्ट शासनांत तो रशियन साम्राज्यांतल्या राज्यशासनाच्या विभागाचो मुखेली जालो. रशियन क्रांतिउपरांत क्रांतिकारकांची तांबडी सेना आनी लोकशाही तत्त्वांचेर आदारिल्ली. तशेंच परकीयांच्या तेंक्यान उबारिल्ली धवी सेना हांच्यांत सुरू जाल्ल्या यादवी झुजांत स्टालिन तांबडी सेनेवतीन पोटतिडकीन झगडलो. त्या यादवी झुजांत तांबडे सेनेक यश मेळळ्या उपरांत १९२२ त स्टालिन कम्यूनिस्ट पक्षाचो मुखेल चिटणीस जालो.

लेनिनच्या मरणाउपरांत (१९२४) ट्रॉट्स्की आनी स्टालिन हांचे भितर सत्तास्पर्त सुरू जाली. ट्रॉट्स्कीच्या म्हणण्या प्रमाण सामान्य आनी गरीब लोकांच्या हिताखातीर रशियेप्रमाण सबंद संवसारांत क्रांती घडोवन हाडपाची गरज आशिल्ली. पूण स्टालिनान

ताचे मतप्रणालीक विरोध करून, सुरवेक रशियेंतूच कम्यूनिस्ट शासन घट्ट करपाचें थारायलें. ताणें रशियन लोकांचीं मनां आपलेकडेन घुंवडावन लेनीनची सुवात हातासली. ट्रॉट्स्कीन क्रांतिकारी तत्त्वप्रणाली संवसारांत पातळावपाचो आपलो वावर चालूच दवरलो. ट्रॉटोस्की आसा तेमेरेन आपले सत्तेक धोको आसा हें जाणून स्टालिनान आपल्या कांय हस्तकांवरवीं १९२७ त ट्रॉटोस्कीक जिवेशीं मारलो. सत्तेंत आपली सुवात घट्ट केल्या उपरांत ताणें लेनिन हाणें मांडिल्ली अर्थनीती कुशीक सारून १९२८ त पयली पंचवर्सुकी येवजण चालींत हाडली. पयली पंचवर्सुकी येवजण चालींत हाडटना ताणें देशांतली सगळी भूंय आनी उद्येगधंद्यांचें राष्ट्रीयीकरण करपाचें थारायलें. पूण शेतकी जमीन भौशिक शेतवडीरवाला हाडटना ताका 'कुलक' ह्या मध्यम स्थितींतल्या जमिनदारांकडच्यान आनी शेतकामत्यांकडच्यान खूब विरोध जालो. विरोध मोडून उडोवपाखातीर स्टालिनचे सत्तेचो वापर करून बळजबरीन देशांतली भूंय भौशिक शेतवडीरवाला हाडली. उद्योगीक मळारय ताका व्हडलेशें यश मेळ्ळेंना. पूण देशांतलें कोळशाचें, लोखणाचें आनी पेट्रोलाचें उत्पन्न सुमार दोन दोन पटींनी वाडिल्लें. दुसरें म्हाझूज सुरू जायत मेरेन स्टालिनचे देखरेखीखाला रशियेचें उद्येगीकरण जाल्लें. देशांतलो तिरव्या उद्येग साडेचार पटींनी, कोळसो चार पटींनी, तेल तीन पटींनी जाल्यार शिमीट उद्येग दोन पटींनी वाडिल्लो. उद्येगधंद्याक फाटबळ मेळचें म्हूण ताणें देशभर रस्ते आनी रेल्वेमार्गांचें जाळें पातळायल्लें. पूण दुसऱ्या महाझूजांत रशियेन वांटो घेतिल्ल्यान मूळ येवजणो कुशीक दवरून झुजाक उपेगी पडपी म्हालाच्या उत्पादनाचेर भर दिवंचो लागलो.

सत्तेर आयल्या उपरांत स्टालीनान लोकशायेचीं तत्त्वां आशिल्ली घटना तयार करून, त्याप्रमाण शासनाची रचणूक केल्ली. पूण प्रत्यक्षांत ताचें शासन एकतंत्री हुकूमशायी स्वरुपाचें आशिल्लें. ताच्या शासनाक विरोध करतल्यांक ताचेकडल्यान खर ख्यास्त जाताली. ताचे राजवटींत सुमार दोन लाखांवयर लोकांक तडीपार केल्ले, लाखांवयर लोकांक गोळार चडयल्ले, जाल्यार कांय लाख लोकांक जल्मभर बंदखणींत दवरिल्ले.

हिटलर, मुसोलिनी तशेंच हेर हुकूमशायी राष्ट्रां आनी दोस्त राष्ट्रांभितर दुसऱ्या महाझुजाच्यो हालचाली चलताल्यो तेन्ना स्टालिनान रशियेचें अमूकच परराष्ट्रीय धोरण म्हूण थारावंक नाशिल्लें. ज्या राष्ट्रांकडच्यान रशियेक फायदो जातलो, तांचेच कडेन हात मेळोवणी करतलो अशें ताणें थारायलें. ऑगस्ट १९३९ त दोस्त राष्ट्रां जेन्ना हिटलरा आड कबलात करपाक बशिल्लीं, तेन्ना स्टालिनान गुपितपणान हिटलराकडेन कबलात केली. ते कबलातीच्या आदारानूच उपरांत हिटलरान पोलंडाचेर घुरी घाली आनी दुसरें महाझूज सुरू जालें. झुजाच्या सुरवेच्या दिसांनी जर्मन सैन्य आपल्या अस्तंतेकडच्या दुस्मानांवांगडा झगडटा ताचो फायदो घेवन रशियेन उदेंत पोलंड, इस्टोनीया, लॅटव्हिया, लिथुयानिया आनी रोमानियेच्या प्रदेशाचेर घुरी घालून ते आपल्या शेकातळा दवरले. हिटलराच्या फुडारपणाखाला जर्मन सैन्य रशियेचेर आयज ना फाल्यां घुरी घालतलें हाची जाणीव जावन, स्टालिनान मे १९४१ त जर्मनी आड झगडपाची पुर्व तयारी करून दवरिल्ली. उपरांत जर्मनीन एक एक करून रशियेचेर घातिल्ल्यो घुरयो, रशियन सैन्यान स्टालिनाच्या मार्गदर्शनाखाला यशस्वीपणान परतून लायल्यो. झुजाचो मुखेली ह्या नात्यान स्टालिनान झुजामळार, दारूगुळो आनी अर्थवेवस्थेचेर आपलो बरोच ताबो दवरिल्लो. त्याच प्रमाण ब्रिटनाचो प्रधानमंत्री विन्स्टन चर्चिल आनी अमेरिकेचो अध्यक्ष फ्रँक्लीन रूज्वेल्ट हांचे वांगडा बसून म्हत्वाच्यो कबलाती घडोवन हाडपाक स्टालिनाकय मानाची सुवात आशिल्ली. ताणें १९४३ त तेहरान कबलातींत आनी १९४५ त याल्टा कबलातींत वांटो घेतिल्लो.

दुसऱ्या महाझूजा उपरांत युरोपांत पातळिल्ले अस्थिर राजवटीचो फायदो घेवन स्टालीनाक उदेंत युरोपांतल्या देशांनी कम्युनिस्ट राजवट लागू करपाक यश मेळ्ळें. त्या देशांची राज्यवेवस्था, अर्थवेवस्था आनी परराष्ट्र धोरण थारावप रशियेचे देखरेखीखालाच जावपाक लागलें. अशे रितीन स्टालिनान रशियेवांगडा आपल्या अंकित देशांकूय हेर लोकशाय - राष्ट्रांसावन वेगळे दवरले. तशेंच झूज काबार जाल्या उपरांत तो दोस्त राष्ट्रांसावन वेगळो जावन, ताणें अमेरिका विरोधी भुमिका घेतली. झुजाउपरांत देशांतली परिस्थिती सुदारपाखातीर ताणें १९४६ ते १९५१ ह्या काळाखातीर नवी पंच वर्सुकी येवजण आंखली. रशियेक बळिश्ट करपाखातीर अणूशक्ती निर्मितीचो उद्येग सुरू केलो. पूण मार्च १९५३ त ताका गूढ अवस्थेंत मरण आयलें.

मार्क्सवादी तत्त्वांच्या आनी सिध्दांताच्या आदारान स्टालिनान सत्तावीस वर्सां रशियेंत सत्ता चलयली. पूण ताणें पुरायपणान मार्क्सवादी पद्दतीन कार्य केलेंना. रशियेंत मार्क्सवादी तत्त्वां लागू करता आसतना ताणें हुकूमशाय पद्दत आपणायली. ताच्या भिरांकूळ कर्तुत्वांक लागून ताका रशियेचो पोलादी राज्यकर्तो अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**स्टीवन्स फा. टॉमास :** (जल्म : १५४९ बुश्टन - इंग्लंड मरण : १६१९ गोंय).

जेजुईत पाद्री. ताणें 'क्रिस्त पुराण' (म्हाकाव्य), 'दोत्रीना क्रिस्तां'(धर्मीक ग्रंथ) आनी 'कोंकणी व्याकरण' बरयलें. उंचेलें शिकप ऑक्सफोर्ड विश्वविद्यालयांत करून १५७५ त रोम शारांत ताणें जेजुईत पंथाची दिक्षा घेतली. २४ एप्रिल १५७९ वर्सा तो धर्मीक कार्याखातीर गोंयांत आयलो. सुमार चाळीस वर्सां ताणें गोंयच्या वेगवेगळया वाठारांनी धर्मीक कार्य केलें. मदीं एक वर्स (१६११ - १२) वसई हांगां मराठीचें अध्ययन केलें. गोंयांत वावर करताना ताणें कोंकणी शिकून घेतली तशेंच मराठीचोय अभ्यास केलो आनी निजाच्या

कोंकणी उतरांनी 'दोत्रीना क्रिस्तां' हें किरिस्तांव धर्मावयलें पुस्तक अणकारीत केलें आनी तें १६२२ वर्सां रायतुरा छापलें. तेभायर कोंकणीचें एक व्याकरणय बरयलें आनी १६४० वर्सा छापलें. भारतीय भाशेंतलें तें पयलें व्याकरण मानतात.

नव - क्रिस्ती लोकांखातीर तांचे भाशेंतल्यान तांकां धर्मोपदेश करपाक सोपें जावंचें म्हण ताणें कोंकणी शिकून कोंकणींत साहित्य निर्मिती केली. तेच वांगडा तेन्नाचे परिस्थितीनुसार १०९६२ ओव्यांचे 'क्रिस्त पुराण' हें आनीक एक धर्मीक पुस्तक मराठींतल्यान बरयलें. हें पुस्तक पयले फावट १६१६ त छापलें आनी ताच्यो उपरांत स आवृत्त्यो आयल्यो. ज्या मिशनरी पाद्रींनी कोंकणींत मुळाव्या साहित्याची (कोश, व्याकरणां, धर्मीक पुस्तकां आदी) भर घाली तांचेमदीं दर्जेदार कोंकणी साहित्य निर्मिती करपी म्हणून फा. स्टीवन्स हाचें नांव घेतात.

- फा. मॅथ्यू आलमैद जे. स

**स्तूप :** मेल्ल्या मनशाचें स्मारक म्हणून बांदिलें शिल्प. स्तूप ह्या शब्दाचो अर्थ रास असो जाता. व्हड मनशाच्यो अस्थी, कुडीची राख (गोबोर) सारकिल्ले अवशेश जमनींत पुरून त्या जाग्याचेर फातर - मातयेची रास करून दवरपाची प्रथा पुर्विल्ल्या काळापसून चालू आसा. ते राशीचे भोंवतणी फातरांचो जांव विटांचो आडो घालपाची पद्दत मागीर सुरू जाली.

गौतम बुध्दाच्या महापरिनिर्वाणाउपरांत ताच्या भक्तांनी ताच्यो अस्थी, गोबोर, केंस सारकिल्ले अवशेश वांटून घेतले आनी राजगृह, वैशाली, कपिल वस्तू कुशीनगर सारकिल्ल्या नगरांनी ते जमनींत पुरून तांचेर स्तूप बांदले. गौतम बुध्दाचे जिणेंतले चड म्हत्वाचे प्रसंग जंय घडले त्या जाग्यांचेरय त्या घटनांचीं स्मारकां म्हणून स्तूप उबारल्यात. बुध्दाचें जल्मस्थान लुंबिनी, गिन्यानप्राप्तीचें स्थान बोधगया, पयल्या प्रवचनाचें स्थान सारनाथ हांगाचें मृगवन आनी ताच्या निर्वाणाचें स्थान कुशीनगर हांगा अशे स्तूप निर्माण जाले. हीं चार स्थानां आनी श्रावस्ती, साकाश्य, राजगृह आनी वैशाली अशीं आठ स्थानां बौध्द साहित्यांत अश्टमहास्थानां म्हणून प्रसिद्द आसात. बुध्दाचो एक दांत ज्या भूगर्भांत दवरून ताचेर स्तूप बांदलो ताका दंतपूर हें नांव मेळ्ळें. बुध्दाचें वस्त्र, पात्र सारकिल्ल्यो वस्तूय पूज्य मानून ताचेर स्मारक स्तूप निर्माण केले. पेशावर हांगा कुशाण सम्राट कनिष्क हाणें गौतम बुद्धाच्या भिक्षापात्राचेर एक स्तूप उबारलो.

मेल्ल्या मनशाचे अवशेश मातयेच्या जांव धातूच्या पात्रांत घालून तें पात्र स्तुपाच्या मदीं दवरताले ताका दागोबा म्हण्टात. ताचेर जी रास जांव शिल्पकाम आसता ताका अंड म्हण्टात. ताच्या माथ्याचेर एक चवकोनी वेदी आसता. तिका हर्मिका म्हण्टात. तिचे भोंवतणी देग आसून वयर धांपणें आसता. हें धापणें म्हणजे एक व्हडपणाचें चिन्न.

शतपथ ब्राह्मणांत स्तुपाचो उल्लेख आसा. देवांचे स्तूप चवकोनी आनी जमनीलागसार आसून राक्षसांचे मात चवथऱ्याचेर वाटकुळाकार बांदिल्ले आसतात. शुक्ल यजुर्वेदांतूय अशा स्मारकांचें वर्णन सांपडटा.

वेदकाळांत मडीं पुरपाची पद्दत नाशिल्ली. पूण मेल्ल्याच्यो अस्थी जांव गोबोर जमनींत पुरून थंय मातयेची रास करून दवरपाची प्रथा आसुंये. हे प्रथेंतल्यानच फुडें स्तूप बांदपाची कल्पना जल्माक आयली. सुरवेक फकत स्मारक म्हणून स्तूप निर्माण केले. महायान पंथान बुध्दाच्यो मूर्ती निर्माण करचेपयलीं लोक स्तूपांची पुजा करताले. तांची पुजा जाल्याउपरांत थंयच भजन आनी मागणें करपाखातीर सभाघर निर्माण करपांत आयलें. स्तूप आनी सभाघर हांचो आस्पाव आशिल्ल्या प्रार्थना मंदीराकच मागीर चैत्यघर अशें नांव फाव जालें.

उत्तर भारतांत फातर - विटांचे जायते स्तूप बांदिल्ले. चिनी यात्रेकरुंनी शेंकड्यांनी स्तूपांचो उल्लेख केल्लो आसा. तातुंतले चडशे नश्ट जाल्यात. पूण थोडे आजूनय पळोवपाक मेळटात.

सगळ्यांत पुर्विल्लो स्तूप उत्तर प्रदेशांत बस्ती जिल्ह्यांतल्या पिपरवा गांवांत सांपडला. तो सनपूर्व ४५० च्या अदमासाक बांदिल्लो आसा. ताचे फकत भग्नावशेश थंय उरल्यात. तातुंतल्या एका करंडकावयल्या आलेखावयल्यान समजता तें म्हणजे तातूंत बुध्दाच्या जमातींतल्या शाक्य लोकांच्यो अस्थी बी अवशेश दवरिल्ले आसात. स्तूपाच्या चवथऱ्याचो व्यास १० फूट आनी अंडाचो व्यास ६२ फूट आसुंये.

मौर्यसम्राट अशोकान ८४,००० स्तूप निर्माण केल्ले अशी आख्यायिका आसा. सांची हांगाचो महास्तुपाचो मूळ गाभो ताणेंच बांदलो आसुंये. तो स्तूप साद्या विटांचो आशिल्लो.

त्या काळांतले स्तूप सामके सादे दिसताले. विटांच्या बांदकामाचेर दाट लेप आसून तातूंत दिव्यांखातीर कोळवे केल्ले आसात. अंडाचेर वयर एक लांकडी धांपणें उबारताले. खास प्रसंगांवेळार स्तुपाक फुलांच्यो माळो आनी बोंदेरां बांदून वयर झेंडोय



सांचीचो स्तूप

लायताले आनी कोळव्यांत दिवे पेटयताले. बुध्दाचें प्रतिक म्हणून स्तुपाची पुजा करताले. ताका भोंवताडो घालपाक येवंचो म्हणून ताचेभोंवतणी लांकडी देगूय लायिल्ली आसताली. नेपाळांत स्वयंभूनाथाच्या देवळांत अशे तरेचो एक स्तूप पळोवपाक मेळटा.

सन पयलीं १५० च्या अदमासाक सांची हांगाच्या अशोकाच्या मुळच्या स्तुपाचेर फातरांचें आवरण बांदलें. ताचे भोंवतणीं पांयांपसून १६ फूट उंचायेर एक सज्जाय बांदपांत आयली आनी माथ्याचेर हर्मिका बसोवपांत आयली. लांकडी धांपण्याच्या जाग्यार तिट्टी धांपणें घातलें आनी स्तुपाभोंवतणी लांकडी कांठ आशिल्लो त्या जाग्याचेर फातरी उंच कांठ बांदलो. ह्या महास्तुपांत कोणाचेच अवशेश दवरिल्ले नात. पूण ताचेलागीं दोन ल्हान स्तूप आसात तातूंत मात अवशेश आसात.

सारनाथ हांगाचो धर्मराजिक (धम्मेरव) स्तूप पयलीं अशोकानच बांदलो आसुंये. ताचो जायते रवेप जीर्णोध्दार जाला. जयपूरालागीं वैराट हांगाय एका मौर्यकालीन स्तूपाचे भग्नावशेश पळोवपाक मेळटात. स्तुपामुरवार ध्वजस्तंभूय उबारताले.

भरहूत हांगाय एक स्तूप आशिल्लो तो सनपूर्व दुसऱ्या जांव तिसऱ्या शेंकड्यांतलो आसुंये. थंय आतां स्तूप दिसनात. तांचे आनी देगांचे सगळे अवशेश वेगवेगळया संग्रहालयांनी दवरिल्ले आसात. हें काम शुंग काळांतलें आसुंये.

बिहारांतलो नंदनगढ हांगाचो स्तूप सनपूर्व पयल्या शेंकड्यांतलो आसा. ह्या स्तूपाचे रचना शैलीचो विकास जावांतल्या बोरोबुदुराच्या स्तूपांत दिसता.

दक्षिण भारतांतल्या अमरावती आनी नागार्जुनकोंड हांगाच्या उत्खननांत स्तूपांची स्वस्तिकाकार जोती सांपडल्या. अमरावतीच्या वाठारांत सनपयलीं पयलो ते तिसरो शेंकडो ह्या काळांत जायते स्तूप निर्माण जाले. हे सगळे स्तूप कलेचे नदरेन म्हत्वाचे आसात.

पुर्विल्ल्या काळांत बौध्द भिक्षूंखातीर विहार निर्माण जाले. दर एक विहार स्वयंपूर्ण आसून तातूंत प्रांगणाच्या मदल्या भागांत एक स्तूप बांदिल्लो आसतालो. अस्तंत भारतांत जीं बौध्द लेणीं खणिल्लीं आसात, तातुंतल्या चैत्य घरांनी स्तूप आसा. कांय जाग्यांचेर मदीं एक स्तूप आनी ताचे भोंवतणी विहार आसतात.

चैत्यघर ह्या वास्तूचें स्वरूप वैराट हांगाच्या अवशेशांत आनी गुंटपल्ली हांगाच्या लेण्यांनी दिसता. वैराट हांगा मदेगाक वाटकुळाकार स्तूप आसून ताचे भोंवतणी खांब्यांची रांक आनी वणत आशिल्ली. स्तूप आनी वणत हांचे मदीं प्रदक्षिणामार्ग आसून सगळयांचेर मेळून घुमटाकृती पारवें आशिल्लें. अशोकान नागार्जुनकोंड हांगा खणिल्लीं चैत्यघरां हे तरेचीं आशिल्लीं.

विहाराच्या प्रवेशद्वाराच्या दोनय वटांनी दोन चैत्य बांदपाची प्रथा त्या प्रदेशांत आशिल्ली. एका चैत्यांत स्तूप आनी दुसऱ्यांत बुध्दमूर्ती जांव पादुका बसयताले. जुन्नरलागचें तुळजा लेणें हें वृत्ताकार चैत्यघरच आसा. ताचो व्यास वीस फूट आसून स्तूपाभोंवतणी बारा खांबे आसात.

इ.स. च्या पयल्या शेंकड्यांत कुशाण सम्राट कनिष्क हाणें वायव्य भारतांत जायते स्तूप निर्माण केले. पुरूषपूर हांगा ताणें बांदिल्लो स्तूप ५०० फूट ऊंच आशिल्लो. ताचे लागींच मुर्तींनी सोबीत अशे दोन ल्हान स्तूपय आशिल्ले. इ.स. च्या पांचव्या शेंकड्यामेरेन त्या वाठारांत अफघानिस्थानामेरेन गांधार शैलीचे जायते स्तूप निर्माण जाले. तातुंतले सुमार १०० स्तूप आजूनय पळोवपाक मेळटात. सगळे स्तूप फातरांचे आसून तांचेर जायत्यो मूर्ती दिसतात. तक्षशिलेलागीं अशोकान बांदिल्लो एक धर्मराजिक स्तूप सांपडला. तो अर्दवाटकुळाकार आसा. माणिक्याला हांगाय एक असोच स्तूप आसा. बाकिचे चडशे स्तूप धोलासारके आनी ऊंच आसात.

सिंध प्रदेशांत इ.स. च्या पांचव्या सव्या शेंकड्यांतले जायते विटांचे स्तूप सांपडटात. मीरपूरखास हांगाच्या स्तूपाच्या चवथऱ्यांत तीन ल्हान कुडी आसून तातूंत बुध्दाच्यो मूर्ती आसात. ते स्तूपय गांधार शैलीचे आसात. गुप्तकाळांत सारनाथ हांगा निर्माण जाल्ल्या धमेख स्तूपाची उंचाय बरीच आसा. अजंटा हांगाचे महायान चैत्यांतले स्तूप हेच तरेचे आसात. ऊंच पीठ आनी त्यामानान ल्हान अंड हीं दोनूय खाशेलपणां तातूंत पळोवपाक मेळटात. तशेंच पेशावरलागीं तख्त - इ - बहाई हांगाच्या स्तूपाचे रचणुकेंत फरक दिसता.

बोधगया हांगाच्या महाबोधी देवळाच्या प्रांगणांत जायते ल्हान - व्हड स्तूप आसात. तातुंतले कांय स्तूप नामनेच्या भिक्षूंच्या यादीक तांच्या भक्तांनी बांदिल्ले आसात. स्तूपनिर्मिती हें एक पुण्यदायक धर्मीक कृत्य मानताले देखून जायत्या यात्रेकरुंनी बौध्द धर्मक्षेत्रांत जायते स्तूप निर्माण केले. कांय यात्रेकरुंनी आपले यात्रेचे यादीखातीरय स्तूप बांदले. अजंटा आनी वेरूळ हांगाच्या चैत्यघरांत अशे जायते स्तूप आसून कांय स्तूपांचेर बुध्दाच्यो मूर्ती कोरांतिल्ल्यो आसात.

नेपाळांत सम्राट अशोकान चार चैत्य बांदिल्ले. तशेंच ब्रह्मदेश, जावा सारकिल्ल्या उदेंतेकडल्या देशांतूय बौध्द पंथाचो बरोच प्रसार जावन जायते स्तूप निर्माण केल्ले. ब्रह्मदेशांत स्तूपांक पागोडा म्हण्टात. पगानांत बुपया हांगा इ.स. च्या तिसऱ्या शेंकड्यांतलो एक सादो स्तूप आसा. इ.स. च्या सातव्या आठव्या शेंकड्यांत प्रोम हांगा निर्माण जाल्लो बौबौग्यी पागोडा उभट घंटेसारको आनी ८० फूट ऊंच आसा.ताचे उपरांत ब्रह्मदेशांत जायते पागोडे निर्माण जाले. पेगू हांगाचे श्वे - हमौदौ आनी रंगूनचे श्वे - ढगोन हे दोन स्तूप चड उल्लेखनीय आसात.

सयामांतल्या स्तूपांचे फ्रा - चेदी आनी फ्रा. चेदीची रचणूक ब्रह्मी स्तूपासारकीच आसा. फ्रा - प्रांत मात हिंदू देवळांच्या ऊंच आनी वाटकुळया तेमकासारको दिसता. अशे स्तूप अयूथिया, सुखोदय आनी बँकॉक ह्या नगरांत सांपडटात.

जावांतले बोरोबुदुरचे स्तूप खूब प्रसिद्द आसात. थंयच्या एका सात मजली शिल्पकामांत ७२ स्तूप आसून तातूंत बुध्दमूर्ती आसा. बोरोबुदुरसावन लागींच चंडी मेंदुत आनी चंडी पवन नांवाचीं बौध्द देवळां आसात. तांच्या भायल्या आंगाचेर जायते ल्हान ल्हान दागोबा दिसतात.

मौर्यकाळांत श्रीलंकेंत बौध्दधर्माचो प्रसार जाल्लो. थंय कांय जाग्यांनी दागोबांचे अवशेश आसात. अनुराधपूर हांगाचे अभयगिरी, जेतवनाराम आनी रुवणवेली हे दागोबा खूब व्हड आसात. ह्या स्तूपांची रचणूक समकालीन भारतीय शिल्पापरस वेगळी आसा.

थूपाराम आनी लंकाराम हे स्तूप ल्हान आसात. थूपाराम हो स्तूप घंटाकृती आसून ताचो घाट सोबीत आसा. तो एका ऊंच चवथऱ्याचेर उबो आसून त्या चवथऱ्याचेर ऊंच खांब्यांच्यो चार रांको आसात. हे खांबे अखंड पाशाणाचे आसात. हो धातुगर्भ दागोबा 'देवानां पिय' तिस्स राजान सनपूर्व २४६ च्या अदमासाक उबो केलो अशी आख्यायिका आसा. तातूंत बुध्दाच्या गळ्यांतली एक अस्थी दवरिल्ली आसा.

लंकाराम दागोबा थूपारामासारकोच आसा. ताचे भोंवतणीय जायते खांबे आसात. अनुराधपूर हांगाय बरेच दागोबा आशिल्ले. तांचे अवशेश त्या नगराच्या वाठारांत पातळिल्ले आसात.

जैन साहित्यांत जरी पुर्विल्ल्या चैत्यांचो आनी स्तूपांचो उल्लेख आसलो तरीय तांचे अवशेश सांपडिल्ले नात. मथुरा हांगाच्या उत्खननांत एका जैन स्तूपाचे अवशेश सांपडल्यात. तो इ.स. च्या पयल्या जांव दुसऱ्या शेंकड्यांतलो आसुंये. पावापुरीलागीं एक मोडिल्लो स्तूप आसा. तेंच महावीराचें निर्वाणस्थान मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**स्तोत्रवाङ्मय :** एक तरेचें धर्मीक वाङ्मय. ज्या वाङ्मयांत ईश्वराचें व्हपण सांगलां आनी जाका धर्मीक आदार मेळ्ळा त्या वाङ्मयाक स्तोत्र म्हण्टात. स्तोत्र हो एके तरेचो भक्तीप्रकार आसून ताचे वरवीं ईश्वर आनी भक्त हांचेमदीं भावनीक आनी धर्मीक पातळेचेर जवळीक साधप जाता. भागवत पुराणांत हेविशीं एक श्लोक आसा तो असो -

तस्मादेकेन मनसा भगवान् सात्वतां पति : ।
श्रोतव्य : कीर्तितव्यश्च ध्येय : पूज्यश्च नित्यदा ॥
(भाग. पु. १.२.१४)

**अर्थ** - तस्मात (भक्तीबगर जिणें नीरस आनी निश्फळ थारता आशिल्ल्यान) मनशान एकाग्र चित्तान यादवांचो अधिपती भगवान श्रीकृष्ण हाच्या गुणाचें श्रवण - कीर्तन करचें आनी ताचें सदांच ध्यान आनी पूजनय करचें.

ऋग्वेदापसून वेगवेगळ्या स्तोत्रांचो उल्लेख मेळटा. वेदांतल्या इंद्र, वरुण, अग्नी, सविता आदी देवांच्या वर्णनांचीं सूक्तां म्हळ्यार स्तोत्रांच. वैदिक आर्यांनी आपल्याक धन, पूत, पशू मेळचे आनी अभक्तांचो क्षय जावचो अशो प्रार्थना ह्या सुक्तांतल्यान केल्ल्यो आसात.

वैदिक काळांतलें स्तोत्रसाहित्य हें जिणेच्या अधिभौतिक आंगाक म्हत्व दिवपी आनी जिणेंतल्या आशावादाचो पुरस्कार करपी आशिल्लें. पुराणकाळांत ऐहिक जिवीताक कमी लेखपाचेर चड भर दिवपांत आयलो. पुराणकारांनी कर्मविपाक आनी पुनर्जल्म हे सिध्दांत लोकांच्या मनांत रुजयले आनी प्रेयापरस श्रेय म्हळ्यारच ऐहिक वैभवापरस हेच मनशाचें श्रेश्ठ साध्य थारायले. हें श्रेय सिध्द करपाखातीर पुराणकारांनी सगळ्यांक भक्तीचो आनी शरणागतीचो मार्ग सांगलो. उपरांतच्या काळांत मोक्ष कल्पनेक सुमाराभायर म्हत्व मेळिल्ल्यान वैदिक सुक्तांपरस पुराणिक स्तोत्रां वेगळे तरेचीं जालीं.

शंकराचार्याच्या काळाउपरांत पंचायतन देवांक म्हत्व आयलें. शिव, विष्णु, देवी, गणपती आनी सूर्य ह्या पंचायतन देवांचेर जायतीं स्तोत्रां रचपात आयलीं. हेचवांगडा नवग्रह, लक्ष्मी, सरस्वती, तुलसी, विष्णुचे मत्स्यकुर्मापसून राम कृष्णामेरेनचे अवतार ह्या सगळ्या विशयांचेर स्तोत्रां रचलीं. पुराणां म्हळ्यार अशा वेगवेगळ्या देवांच्या स्तोत्रांचें भांडार जावन आसा.

भागवत पुराणांत अध्यात्मपर आनी भावनाप्रचुर अशीं जायतीं स्तोत्रां मेळटात. अध्यात्मरामायणांत रामाचीं आनी वैष्णव पुराणांत कृष्णाचीं जायतीं स्तोत्रां आसात. ह्या चडशा स्तोत्रांक अध्यात्माची बसका आसून हातुंतलीं जायतीं स्तोत्रां वेगवेगळ्या सांप्रदायिक उपासनापद्दतींत श्रध्देन म्हण्टात.

स्तोत्राच्या उत्तरकाळांत वेदान्ती आनी शृंगारीक अशे दोन वेगवेगळे प्रवाह तातूंत येवन मेळ्ळे. कांय स्तोत्रां पंचक, अश्टक, दशक आनी शतक अशा आकाराचीं जालीं. तातुंतलीं बरीचशीं सरसच - मधूर आशिल्लीं. बौध्द आनी जैन आचार्यांनीय अशे तरेचीं स्तोत्रां रचलीं. कांय स्तोत्रां नाच - पद पद्दतींतय बसोवपांत आयलीं. तातूंत शृंगारीक अविश्काराक चड म्हत्व मेळ्ळें. वैष्णव संप्रदायाच्या काळांत बायलां - दादल्याविशींचें आकर्शण धर्मीक भावनेंत परिवर्तीत केलें.

स्तोत्रांची संख्या सुमार पांच हजारांच्या लागसार आसा. जायत्या कवींनी स्तोत्रवाङ्मय बरयलां, तातुंतले मुखेल स्तोत्रकार अशे -

१) मयुरभट्ट : हाणें गौडी शैलींत सूर्यशतक हें स्तोत्र बरयलें.

२) बाणभट्ट : हाणें 'चंडीशतक' हें स्तोत्र बरयलें, गद्य काव्याचो निर्मातो म्हणून ताची नामना आसा.

३) शंकराचार्य : हाणें दार्शनीक जगतांत अद्वैताची प्रतिश्ठा मानली. निर्गुण ब्रह्माकडे वचपाक ताणें सगुण ब्रह्म हें गरजेचें साधन मानलें. तेखातीर ताणें सगुण ब्रह्माचीं शिव, शक्ती, विष्णु आदी रुपां मुखार दवरून जायतीं स्तोत्रां निर्माण केलीं. ताचें 'देव्यपराधक्षमापन' हें

स्तोत्र काळजाचो थाव घेवपी आसा. तशेंच ताचें 'सौंदर्यलहीरी' हेंय स्तोत्र अप्रुप अशें. साहित्यशास्त्र, मंत्रशास्त्र आनी तत्त्वगिन्यानाचे नदरेन हाचे इतली बरी कृती स्तोत्रवाङ्मयांत ना. हाचेभायर शंकराचार्याच्या नांवार दोनशेंपरस चड स्तोत्रां आसात. पूण तीं सगळींच ताणें स्वता रचलीं हेविशीं खात्री ना. दशश्लोकी, आत्मषटक, हस्तामलक आदी वेदान्तस्तोत्रां तातुंतली भास, गोडवो आनी रचणुकेची कुशळकाय पळेल्यार तीं शंकराचार्यांचीं स्तोत्रां दिसतात.

'शिवमहिम्नस्तोत्र' आनी 'रामरक्षा' हीं भारतांतलीं नामनेचीं स्तोत्रां. महिम्नस्तोत्राचो कर्तो पुष्पदंत आनी रामरक्षेचो कर्तो बुध कौशिक जावन आसा. रामरक्षा हें स्तोत्रय बी आनी कवचय. कवच हो स्तोत्राचोच एक वेगळो प्रकार आसा.

कुलशेखर : ह्या कवीन मुकुंदमाला नांवाचें एक स्तोत्र बरयलें. ताचे चवतीस श्लोक आसात.

यामुनाचार्य : हाणें आळवंदारस्तोत्र ह्या नांवाचें स्तोत्र बरयलें.

जगन्नाथ : हाणें करुणालहरी, गंगालहरी, अमृतलहरी आनी लक्ष्मीलहरी हीं स्तोत्रां बरयलीं.

उत्पलदेव : हो काश्मीरी शैव दर्शनाचो एक व्हड आचार्य. हाणें शिवस्तोत्ररत्नावली नांवाचीं २१ स्तोत्रां रचलीं.

जगद्धरभट्ट : हाणें 'स्तुतिकुसुमाञ्जली' नांवाचीं ३८ स्तोत्रां बरयलीं. तातूंत सुमार १,४२५ श्लोक आसात.

जैन स्तोत्रां : पुराणीक हिंदूंवरीच जैनांनीय भरपूर स्तोत्र रचना केली. जैन हे ईश्वराक मानिनात. ते तीर्थंकरांक मानतात. ताकालागून तांचीं चडशीं स्तोत्रां चोवीस तीर्थंकरांक उद्देशून रचपांत आयलीं. जैन मुनींच्यो ज्यो स गरजेच्यो क्रिया सांगल्यात, तातूंत चतुर्विंशतिस्तव ही एक क्रिया आसा. ताकालागून ताचे स्तोत्ररचनेक प्रेरणा मेळळी. जैनांत तीर्थंकरांच्या स्तोत्रांची परंपरा खूब पुर्विल्ली आसा. जिनभक्तीचो अविश्कार हो सुरवातीच्या स्तोत्रांचो उद्देश कुंदकुंदाचार्यांचे प्राकृत रचनेवयल्यान आनी पूज्यपादांचे संस्कृत रचनेवयल्यान दिसून येता. उत्तर काळांत हीं स्तोत्रां दोन धारांनी प्रवाहीत जावंक लागलीं. पयली धारा बुध्दिवादी नैयायिक जैनांची. तीर्थंकर हे सगळ्या देवांपरस श्रेश्ठ अशें मानून तांचीं गुणात्मक खाशेलपणां बुद्दिवादी जैनानी मांडलीं. संमतभद्र, सिध्दसेन, हेमचंद्र आदी जैन पंडितांनी अशे तरेचीं स्तोत्रां रचलीं.

दुसरे धारेंत चोवीस तीर्थंकरांची नामावळ आनी जयमाला स्तोत्रां हांचो आस्पाव जाता. हे शैलीचो विकास जिनसेनाच्या (इ.स. चें ९ वें शतमान) जिनसहस्त्र नांवाच्या स्तोत्रांत मेळटा. पंडित आशाधर (१३ वें शतमान), देव विजयगणी (१६ वें शतमान), विनय विजय उपाध्याय आदी कवींनी जीनसहस्त्र नांवाचीं स्तोत्रां निर्मिलीं. भद्रबाहुकृत उवसग्गर हें स्तोत्र प्राकृत आसून तातूंत पार्श्वनाथाची तूस्त आसा. धनपालकृत ऋषभपंचाशिकेंत पयल्या तीर्थंकरांचें स्तवन आसा. नंदीशेषकृत अजितशांतिस्तोत्रांत दुसऱ्या आनी सोळाव्या तीर्थंकराचो महिमा वर्णिल्लो आसा. अभयदेवाचें जयतिहूण स्तोत्र म्हळयार प्राकृत भाशेचो एक अलंकार आसा. हाचेभायर मानतुंगाचार्याचें भक्तामरस्तोत्र आनी सिध्दसेन दिवाकराचें कल्याणमंदिर स्तोत्र म्हळयार जैनांच्या स्तोत्रभाडारांतलीं खाशेलीं दोन स्तोत्रां आसात.

**बौध्द स्तोत्रां :** बौध्दाच्या महायान पंथांत जायतीं स्तोत्रां रचिल्लीं आसात. ह्या पंथांत बुध्द भक्तीक चड म्हत्व दिलां. महायानी भिक्षुनी संस्कृत भाशेंत जायत्या स्तोत्रांची रचना केल्या. नागार्जुन हो शून्यवादाचो प्रस्थापक आसुनय ताणें आपल्या स्तोत्रांत आस्तिकवादाक सुवात दिल्या. ताच्या चार स्तोत्रांचें नांव चतुःस्तव अशें आसा. भोवतेक सगळयाच आधुनिक भारतीय भाशांनी स्तोत्रवाङ्मयाची निर्मिती जाल्या.

- कों. वि. सं. मं.

## स्पेंग्लर, ओस्वाल्ड

**स्पेंग्लर, ओस्वाल्ड :** जर्मन तत्त्वज्ञ आनी इतिहासकार. ताचो जल्म १८८० त जर्मनींत जालो. मनशाचो भूतकाळ, वर्तमानकाळ आनी भविश्य काळ कसो घडटा, हे संबंदीं ताणें कांय खाशेलीं सुत्रां सांगल्यांत. स्पेंगलरच्या मतान, प्राचीन इजिप्तसावन आर्विल्ले अस्तंती संस्कृतीमेरेन वेगवेगळयो अशो फकत आठच म्हत्वाच्यो संस्कृती आसात. पूण त्यो एकमेकासावन साप्प वेगळयो आसात. ह्या संस्कृतिंचो खोलायेन अभ्यास केल्यार, तांचें खाशेलेपण स्पश्ट दिश्टी पडटा. खंयचेय एके संस्कृतिचो परिणाम दुसरे संस्कृतिचेर जायना अशें तो मुखार सांगता. केन्ना केन्नाय कांय खाशेल्यो घडामोडी वेगवेगळेकडेन एकाचवेळार घडिल्ल्यो आसतात. देखून ते संस्कृतींत साम्य आसाशें दिसता. पूण प्रत्यक्षांत ते एकेचो दुसरेचेर जाल्लो प्रभाव नासता.

सगळयो संस्कृती एकमेकांसावन साप्प वेगळयो आसल्यो तरी सगळयांचो जीणेमार्ग सारकोच आनी निश्चित आसता. हें स्पश्ट करतना तो संस्कृतीचो मनशाचे जिणेकडेन तुळा करता. मनशाप्रमाण दर एके संस्कृतींत भुरगेंपण, जुवानपण, म्हातारपण आनी मरण ह्यो अवस्था येतात. मनशाची जीण पाउणशें ते शंबर वर्सांची जाल्यार, संस्कृती सुमार हजारभर वर्सां जगून उपरांत ती आड पडटा. विशिश्ट काळांतल्या मनशांच्या वर्तनांचें स्वरूप पळोवन तो, अमुकच संस्कृतिंतलो खंयच्या पांवड्या मदलो आसतलो हें सांगप शक्य जाता अशें ताचें मत आसा. जेन्ना सैमीक अशा आपल्या समाजाच्या अभिमानाचे सुवातेर मानवी एकता वा आंतरराश्ट्रीयत्व अशो कल्पना मनांत रुजतात वा जेन्ना श्रध्देचेर आदारिल्ल्या धर्माच्या जाग्यार शास्त्रशुध्द अधर्म येता, तशेंच जेन्ना मनीस कश्टान वैभव जोडून, ते ताचो उपभोग घेवचे सुवातेर सैमिक हक्कांखातीर धडपडटा आनी लोकशाय तत्त्वांखातीर झगडटा तेन्ना ती ते संस्कृतायेची निमणी अवस्था म्हूण समजूंची अशें ताचें म्हणणें आसा. स्पेंगलराच्या ह्या सिध्दांताचेर

साबार तज्ञांनी टिका केल्या.

- कों. वि. सं. मं.

**स्पेन :** युरोप खंडांतलें नैऋत्येकडेन आशिल्लें एक राश्ट्र. क्षेत्रफळ ५०४,७५० चौ. किमी. क्षेत्रफळाचे नदरेन तें युरोपांतलें सगळयांत व्हडलें राश्ट्र. इबेरियन द्विपकल्पाचो सुमार ८५% वांटो स्पेनान रेवडिला. लोकसंख्या ३९,७८४,००० (१९९१). भूंयमध्य दर्यांतलो बॅलरीक तशेंच ॲट्लांटीक महासागरांतल्या कनारी जुंव्यांचोय स्पेन राश्ट्रांत आस्पाव जाता. स्पेनाचे उत्तरेक बिस्के आरवात, उदेंतेक व्हड पिरेनीस पर्वत, दक्षिणेक भूंयमध्य दर्या आनी गिब्रालतार सामुद्रीध्वनी, नैऋत्येक ॲट्लांटीक महासागर आनी अस्तंतेक पुर्तुगाल गणराज्य आसा. मॅडरीड शार हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणूकेचे नदरेन देशाचे सात वांटे केल्ले आसात, ते अशे - १) मॅसेटा, २) उत्तरीय पर्वत, ३) इब्रो पाणटो (Ebro Basin), ४) दर्यादिगांतली सपाट जमीन, ५) गौडालक्यूवीर पाणटो, ६) बॅलरीक जुंवो आनी ७) कनारी जुंवो.

मॅसेटा ह्या व्हड पठारी प्रदेशान स्पेनाचो चडसो भाग रेवडिला. हो प्रदेश मुखेलपणान सपाट मैदानां आनी ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्यांचो. ह्या भागांत उत्तरेक, अस्तंतेक आनी उदेंतेक कांय ऊंच पर्वत आसात. अस्तंतेकडेन मॅसेटा प्रदेशाचो कांय भाग पुर्तुगालांत पातळ्ळा. त्या प्रदेशांतल्या सिएरा नेवादा पर्वतांवळींतलें म्युलासेन हें सगळयांत उंचेलें तेमूक (३,४७८ मी.). उत्तरेकडचो पर्वतीय प्रदेश ॲटलांटीक म्हासागर आनी कोस्टल प्लॅनासवन स्पेनाचे साप्प उत्तरेकडेन पातळ्ळा. ह्या प्रदेशांत अस्तंतेकडेन गॅलिसीयन पर्वत, मध्य भागांत कॅन्टाब्रीयन पर्वत आनी उदेंतेकडेन पिरेनीस पर्वत आसात. उदेंतेकडेन आशिल्लो पिरेनीस पर्वत स्पेनाक फ्रांस देशासावन वेगळो करता. गॅलिसीयन आनी कॅन्टाब्रीयन पर्वतांवळींची उंचाय ॲट्लांटीक दर्याकडेन मातशी चड वाडल्या. इब्रो पाणटो हो सपाट मैदानी प्रदेश इशान्येकडेन इब्रो न्हंये भोंवतणी पातळ्ळा. भूंयमध्य दर्यादिगांनी आशिल्ल्या स्पेनाच्या चडशा भागाचो आस्पाव कोस्टल प्लेनांत जाता. त्या प्रदेशांतली जमीन पिकाळ आसून, थंय दर्यामेरेन पातळिल्ल्यो साबार दोंगुल्ल्यो आसात. गैडालक्यूवीर पाणट्याचो आस्पाव स्पेनाचे नैऋत्येकडेन जाता. तो प्रदेश गैडालक्यूवीर न्हंयेभोंवतणी पातळ्ळा. त्या प्रदेशांतलें हवामान सुकें आसलें तरी थंयची जमीन पिकाळ. भूंयमध्यदर्यांत आशिल्ले बालेरीक जुंवे स्पेनचे मूळ भूंयेसावन सुमार ८० ते २४० किमी. पयस आसात. मुखेल पांच जुंवे आनी साबार ल्हान ल्हान जुंवे मेळून बालेरीक जुंव्यांचो चोंबो तयार जाला. माजोरका, मिनोरका आनी ईबीझा हे व्हड जुंवे. तातुंतलो माजोरका हो सगळयांत व्हडलो आनी पिकाळ जुंवो. त्या जुंव्यार वायव्येकडेन कमी उंचायेची पर्वतावळ आसा. मिनोरका हो मुखेलपणान सपाट, जाल्यार ईबीझा हो पर्वतीय जुंवो. कनारी जुंव्यांचो आस्पाव ॲट्लांटीक महासागरांत जाता. ते स्पेनाचे मूळ भुंयेसावन सुमार ९५ ते ४३० किमी. पयस आसात. त्या जुंव्याचोम्यांत मुखेलपणान सात जुंवे आसात. टॅनरीफ हो तांच्यांतलो सगळयांत व्हडलो जुंवो. फ्युर्टेलेंट्युरा, ग्रान कनारीया हे हेर व्हडले जुंवे. टॅनरीफ जुंव्याचेर आशिल्लें पिको - दे - टेयदे हें स्पेनांतलें सगळयांत व्हडलें तेमूक (३,७०७ मी.). ग्रान कनारीयेच्या मध्यभागार पर्वत आनी खोल देगणां आसात. फ्युर्टेवेंट्यूरा जुंव्याची चडशी जमीन सपाट आसा.

**हवामान :** स्पेन देशाचो आस्पाव समशीतोश्ण विभागांत जाता. मॅसेटा आनी स्पेनच्या हेर भितल्ल्या प्रदेशांतलें हवामान वर्सयभर सादारणपणान सुकें आनी उजळ आसता. त्या प्रदेशांतले गीम तशेंच शिंयाळे कडक आसतात. जुलय म्हयन्यांत थंय उश्णता चड जाणवता. त्या म्हयनांत थंयचें सरासरी तापमान २७° सॅ. इतलें आसता. पूण जानेवारी म्हयन्यांत ते १° सॅ. मेरेन सकयल देंवता. शिंयाळयांत आनी गीमांत थंय केन्ना केन्नाय अचकीत पावस पडटा. मॅसेटा प्रदेशांतल्या उंचेल्या तेंमकांचेर शिंयाच्या दिशांनी हिम सांचता. थंयचें वारें चडकरून मंद गतीनच व्हांवता. भूंयमध्यदर्या देगांतल्या प्रदेशांनी आनी बालेरीक जुंव्यांचेर शिंयाच्या दिसांनी पावस पडटा. थंयचो गीमय कडक. केन्ना केन्नाय पावस पडटा आसतना थंय ल्हान ल्हान मोडां जातात. ॲट्लांटीक दर्यावयल्यान येवपी शीतळ वाऱ्याक लागून उत्तरेकडच्या पर्वतीय प्रदेशांत ओलसाण उरता. त्या भागांत पावस तशेंच हिमय चड पडटा. आतऱ्या - पयऱ्यान पावस शिडशिडत आसता. दमटिच्या दिसांनी धुकें पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** वेगवेगळया प्रदेशांनी जावपी वनस्पतीच्या खाशेल्या प्रकारांक लागून देशाचे उत्तर, मध्य, दक्षिण आनी आग्नेय अशे चार वांटे केल्ले आसात. उत्तरेकडच्या प्रदेशांनी चड ओलसाण आनी दमटसाण आशिल्ल्यान थंय मुखेलपणान शाद्वल आनी पानझडी रुखांचीं रानां आसात. वेगवेगळया प्रकारचें तणूय थंय वाडत आशिल्ल्यान तो प्रदेश सदांच पांचवोचार उरता. मध्य भागांतल्या सपाट प्रदेशांत ल्हान ल्हान झोपां आनी फुल्झाडां पळोवपाक मेळटात. इब्रो देगणाच्या वयल्या भागांत, तशेंच दक्षिणेकडच्या पठारी आनी उदेंतेकडेन ओलीव आनी द्रांक्षांचे मळे आसात. कोस्टल प्लॅन ह्या भागांत मुखेलपणान पाचवीचार शेतां आनी फुल - फळांचीं बारीक बारीक झाडां दिश्टी पडटात.

स्पेनच्या पिरेनीस आनी हेर पर्वतीय प्रदेशांनी वांस्वेलां आनी लांडगे खूब प्रमाणांत सांपडटात. पूण शिकारीच्या छंदाक लागून स्पेनची रानटी मोनजात खूब उणी जाल्या. 'स्पेनीश इबेक्स' ही मूळ स्पेनाची मोनजात सद्या काबार जाल्ली आसा. गवेरेडे, रानदुकर, सोंशे, हरणां आनी हेर रानटी जनावरां फकत अभयारण्यांनीच पळोवपाक मेळटात. स्पेनाक व्हड दर्यादिग लाबिल्ल्यान थंय वेगवेगळया

प्रकारचें नुस्तेंय खूब प्रमाणांत मेळटा.

**इतिहास :** इबॅरीयन द्विकल्पांतल्या गिब्राल्तार, जातीवा आनी बॅनोलास हांगा सांपडिल्ल्या मनशांच्या अवशेशांवयल्यान तशेंच हेर वाठारांनी सांपडिल्ल्या वेगवेगळया प्रकारच्या आयदनांवयल्यान थंय एक लाख वर्सां आदींसावन मनशांचो राबितो आशिल्ल्याचें सिध्द जालां. पूण थंयची खूब आदली म्हायती स्पश्टणान मेळना. पांच हजार वर्सां पयलीं इबॅरीयन लोकांनी स्पेनाचेर ताबो मेळयलो. शेतवड हो तांचो मुखेल वेवसाय. तांच्यांतले चडशे लोक खेड्यांनीच रावताले, पूण कांय लोक नगरां वसोवनय रावपाक लागले. तांचें कार्टाजेना हें नगर सद्या तर्रागोना नांवान स्पेनाचें एक प्रसिद्द शार आसा. इ.स.प. १००० सावन भूंयमध्यदर्याचे उदेंत देगेर फोएनिसीयन लोकांनी वसाहती उबारपाक सुरवात केल्ली. त्या वसाहतींत तांचो वेवसाय नेटान चलतालो. कादीझ आनी मालागा हीं तांणी उबारिल्लीं शारां आयजय अस्तित्वांत आसात. उपरांत सुरवेक इ.स.प. ९०० त आनी मागीर इ.स.प. ६०० त स्पेनच्या उत्तरेकडच्यान सेल्टीक लोक आयले. तांणी स्पेनच्या उत्तर भागांत आपलो राबितो केल्लो. इ.स.प. ६०० सुमाराक ग्रीक लोकय स्पेनांत पावले. उपरांत तांणी उदेंत दर्यादिगांनी आपलीं वेपारी केंद्रां उबारलीं. इ.स.प. ४०० त उत्तर आफ्रिकेंतल्या कार्थेज ह्या बळिश्ट शारांतल्या लोकांनी स्पेनाचेर घुरी घालून ताचो बरोचसो भाग हातासलो. मुखार इ.स.प. २०० ते कार्थेज शाराचो जनरल हन्नीबाल हाणें स्पेनाच्यान रोमन इटलीचेर घुरी घातली. पूण दुसऱ्या पुनीक झुजांत रोमी लोकांनी हन्नीबालचो पराभव करून (इ.स.प. २१८ - २०१), कार्थेजीयन सैन्याक स्पेनच्यान धांवडावन घाले. ह्या झुजाउपरांत रोमी लोकांनी स्पेनाचेर आपलो शेक बसोवपाक सुरवात केली. पूण वेगवेगळया जमातीच्या लोकांक पुरायपणान आपल्या शेकातळा हाडपाक रोमी लोकांक सुमार दोनशें वर्सां लागलीं. इबेरियन द्विपकल्पांत आस्पाव जातल्या पुर्तुगाल देशूय तांणी स्पेनाक जोडलो. अशे रितीन सबंद इबेरियन द्विपकल्प एका सरकारच्या शेकातळा आयलो. तो द्विपकल्प रोमनाचो एक प्रांत जावन ताका हिस्पानीया अशें नांव पडलें. उपरांत स्पेनाक स्पेनीश भाशेंत हिस्पानीया नांवावयल्यानच इस्पाना नांव मेळ्ळें. स्पेन हो रोमन साम्राज्याचो मुखेल प्रांत जाल्ल्यान साबार रोमी लोक थंय रावपाक आयले. उपरांत स्पेनाच्या चडशा भागांत रोमी लोकांनी व्हड शारां आनी रूंद रस्ते, तशेंच वसू भागांत उदक व्हरपाखातीर पाट बांदले. आपलो शेक बसयल्याउपरांत रोमी लोकांनी स्पेनांत लातीन संस्कृती आनी लातीन भाशेचो प्रसार केलो. मुखार सेनांत उलोवपी लातीन भाशेंतल्यानच ल्हव ल्हव स्पेनीश भास विकसीत जाली. रोमी लोकांनी थंय किरिस्तांव धर्माचोय प्रसार केलो. उपरांत किरिस्तांव हो स्पेनाचो राज्य धर्म जालो. इ.स. ३००त रोमन साम्राज्याचे अस्तंत आनी उदेंत अशे दोन विभाग जावन, स्पेन अस्तंत रोमन साम्राज्याचो भाग जालो.

इ.स. ४०० च्या सुमाराक अस्तंत रोमन साम्राज्याक देंवती कळा लागिल्ली आसतनाच ताचेर कांय जर्मन टोळयांनी घुरयो घालपाक सुरवात केली. त्या घुरयांक लागून अस्तंत रोमन साम्राज्य ४७६त कोंसळ्ळें. जर्मन टोळयेंतले विसीगोथ हे टोळयेन सुरवेक स्पेन आनी उपरांत ५७३ त सबंद द्विपकल्प हातासलो आनी स्पेनांत राजशाय स्थापीत केली. विसिगोथ हे किरिस्तांव आशिल्ल्यान तांणीय स्पेनांत रोमन संस्कृतिचो प्रसार केलो. पूण विसीगोथ राजा आनी विसीगोथ खानदानी घराण्यांभितर एक सारकीं झगडीं जायत राविल्ल्यान स्पेनाची राजकीय आनी अर्थीक स्थिती इबाडली. विसीगोथ लोकांनी स्पेनांत आठव्या शेंकड्याचे सुरवातेमेरेन राज्य केलें. ७११ त उत्तर आफ्रिकेंतल्या मूर लोकांनी स्पेनाचेर घुरयो घालपाक सुरवात केली. उपरांत तांणी ७१८ त सबंद विसीगोथ राज्य आपल्या शेकातळा व्हेलें. मूर हे इस्लाम धर्माचे लोक आशिल्ल्यान तांणी स्पेनांत इस्लामी संस्कृतिचो प्रसार केलो. साबार स्पेनीश लोक मुस्लीम जाले. त्या तेंपार मुस्लिमांची संस्कृती हेर युरोपी लोकांपरस खूब फुडारिल्ली. तांणी गणित, वैजकीशास्त्र आनी हेर क्षेत्रांत खूब सोद लायले. तांणी रोमी आनी ग्रीक लोकांचें साहित्य व्हड जतनायेन राखून दवरलें. तशेंच मशीद, किल्ले आनी हेर व्हड आनी सोबीत अशो साबार इमारती थंय उबारल्यो. उपरांत मूर लोकांत आपसांत झगडीं जायत राविल्ल्यान १००० त मूर सरकार कोंसळ्ळें आनी स्पेन देश विभागून ताचीं साबार स्वतंत्र मूर राज्यां अस्तित्वांत आयलीं.

मूर लोकांचो शेक चलतालो तेन्ना स्पेनाचे साप्प उत्तरेक विसीगोथ आनी हेर किरिस्तांव लोकांचे कांय पंगड तग धरून आशिल्ले. मूर लोकांचीं आपसांत झगडीं जायत आसली तेन्ना ते परिस्थितीचो फायदो घेवन विसीगोथ आनी हेर किरिस्तांव लोकांनी १००० च्या सुमाराक मूर लोकांक दक्षिणेकडेन धांवडावन आपलो राज्य विस्तार करीत रावले. उत्तर - मध्य स्पेनांत आशिल्लें कास्तील शार हें वाडट्या किरिस्तांव राज्याचें मुखेल केंद्र जालें. किरिस्तांव लोकांक एकवटीत करचेखातीर ११०० च्या सुमाराक सावन स्पेनाच्या कांय राजांनी संसदेची (Cortes) स्थापणूक केली. त्याच काळांत पुर्तुगालाक कास्तील सावन स्वातंत्र्य मेळ्ळें. तेराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दामेरेन मुसलमानांचें दक्षिणेकडेन ग्रानाडा हें एकच राज्य उरलें. जाल्यार उरिल्ल्या स्पेनांत आरागोन, नावारे आनी कास्तील ह्या किरिस्तांव राज्यांचो शेक आयलो. तांच्यातलें कास्तील हें चड बळिश्ट आनी चडसो स्पेनाचो भाग ताच्या शेकातळा आशिल्लो. चवदाव्या आनी पंदराव्या शेंकड्यांत चडशा काळामेरेन तांचो शेक चलतालो. इ.स. १४६९ त आरागोनचो राजकुंवर फर्डीनंड हाचें कास्तीलची राजकन्या इसाबेल हिचेकडेन लग्न जालें. १४७४ त इसाबेल कास्तीलची

राणी जाली, जाल्यार १४७९ त फर्डीनंड आरागोनचो राजा जालो. अशे रितीन स्पेनाचो चडसो भाग तांच्या शेकातळा गेलो. उपरांत स्पेन राश्ट्र बळिश्ट करपाच्या हेतान तांणी १४८० त इंक्विजीशनची स्थापणूक केली. हे संस्थेन साबार ज्यू आनी मुसलमान लोकांक वाटयले. जांणी कोणी इंक्विजीशनाक विरोध केलो तांकां कडक ख्यास्त भोगची पडली वा देश सोडचो पडलो. उपरांत इंक्विजीशनाचो शेक स्पेनांत तीनशें वर्सांमेरेन उरलो. १५१२ त फर्डीनंडान नावारे राज्य हातासल्या उपरांत सबंद स्पेन राश्ट्र तांचे राजवटीखाला आयलें. पंदराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक किरिस्तांव धर्माचो प्रसार करपाखातीर आनी नवे प्रदेश आपल्या राज्याक जोडपाखातीर फर्डीनंड आनी इसाबेल हांणी स्पेनाचे साबार खलाशी, संशोधक आनी सैन्य अमेरीका खंडांत आनी हेर कडेन धाडलें. १५५० मेरेन मेक्सिको, मध्य अमेरिका आनी वेस्ट इंडिजचे सगळे जुंवे स्पेनाच्या शेकातळा गेले. उपरांत स्पेनान युरोप आनी आफ्रिका खंडांतय आपल्यो वसाहती उबारल्यो.

इ.स. १५१६ त फर्डीनंड आनी इसाबेल हांचो नातू चार्ल्स पयलो स्पेनचो राजा जालो. चार्ल्स स्पेनचो राजा जावचे पयलीं बेल्जीयम, लक्सेंम्बर्ग आनी नेदर्लंडसाचेर राज्य करतालो. उपरांत तेय प्रदेश ताणें स्पेनाक जोडले. १५१९ त चार्ल्स 'होली रोमन सम्राट' जालो. तो चार्ल्स पांचवो म्हूण रोमन साम्रज्याचेर राज्य करपाक लागलो जाल्यार चार्ल्स पयलो म्हूण स्पेनाचेर राज्य करपाक लागलो. १५५६ त चार्ल्साचो पूत फिलीप दुसरो स्पेनाचो राजा जालो. ताच्या तेंपार स्पेन साम्राज्याची खूब भरभराट जाली. १५८० त पुर्तुगाल देशय स्पेनाक जोडलो. फिलीपाचो काळ हो स्पेनीश कर्लेंतलो भांगरा काळ आसलो अशें इतिहासकारांनी मत मांडलां. पूण फिलीपाच्या काळातंच स्पेनीश साम्राज्याक देंवती कळा लागली. चड आनी चड प्रदेश मेळोवपाच्या हावेसान स्पेनाक हेर वसाहतकारां वांगडा खूब झुजां करचीं पडलीं. ताका लागून स्पेनाची अर्थीक स्थिती इबाडली आनी सैन्य दलूय अशक्त जालें. स्पेनाची इबाडिल्ली स्थिती जाग्यार हाडपाखातीर फिलीपान इंग्लंड हातासपाचो बेत आंखलो. १५८८ त ताणें आर्माडा नांवान १३० व्हड जहाजांचें एक दल करून इंग्लंडाचेर घुरी घाली. पूण इंग्लंडाच्या बळिश्ट मावीक दलाक लागून तशेंच वादळाक लागून स्पेनिश आर्माडा कोंसळ्ळें. फिलीपा फाटल्यान आयिल्ल्या सम्राटांकय स्पेनिशची वायट परिस्थिती सुदारपाक यश आयलेना. सतराव्या शेंकड्याच्या मध्याक पुर्तुगालान आपलें स्वातंत्र्य जाहिर करून तें स्पेनासावन वेगळें जालें. खालावल्ले परिस्थितीचो फायदो घेवन फ्रांसानय स्पेनाचे उत्तरेकडचे कांय प्रदेश हातासले. सोळाव्या शेंकड्यांत फ्रांसाच्यो घुरयो चालूच आशिल्ल्यो देखून स्पेनाचो राजा चार्ल्स दुसरो हाणें फ्रेंच ड्यूक, फिलीप ऑफ आन्जो हाका स्पेनाचो वारस नेमलो. चार्ल्साक भुरगें नाशिल्ल्यान ताच्या मरणाउपरांत १७०० त फिलीप ऑफ आन्जो हो स्पेनाचो राजा जालो. अशे तरेन स्पेनाचेर बॉर्बोन घराण्याचो शेक आयलो. फिलीपाच्या तेंपार स्पेनाक आपले साबार युरोपीय प्रदेश वगडावचे पडले. गिब्रालतार आनी बॅलारीक जुंवे ब्रिटनान घेतले. पूण बॉर्बोन राज्यकर्त्यांनी स्पेनाच्या सरकारांत आनी समाज जीणेंत साबार सुदारणा घडोवन हाडल्यो. स्पेन आनी फ्रांस हांचे राज्यकर्ते बॉर्बोन घराण्याचेच आशिल्ल्यान तांच्यांत बरे संबंद जुळून आयले. स्पेनाची अर्थीक स्थितीय सुदारपाक लागिल्ली. पूण अठराव्या शेंकड्यांत वसाहत वादावयल्यान स्पेन आनी ब्रिटन हांच्यांत साबार झुजां जालीं. अमेरीकन क्रांती (१७७५ - १७८३) वेळारय स्पेन ब्रिटनांआड झगडली. ह्या झुजांक लागून स्पेनाची अर्थीक स्थिती आनीक इबाडली.

इ.स. १७८९ त नॅपोलियन बोनापार्त फ्रांसाचे सत्तेर आयलो. सुरवेक ताणें स्पेनाकडेन दोस्तीची कबलात केली. पूण १८०८ त फ्रेंच सैन्यान स्पेनाचेर घुरी घालून थंयच्या सरकाराचेर ताबो मेळयलो. नॅपोलियनान फर्डीनंड सातवो हाका सत्ते भायरो करून आपलो भाव ज्योसफ हाका स्पेनाचो राजा केलो. पूण स्पेनीश लोकांनी सुरवेकसावनच फ्रेंच सैन्याक विरोध करपाक सुरवात केल्ली. १८१४ त ब्रिटनाच्या जोड पालवान स्पेन आनी पुर्तुगाल सैन्यान फ्रेंचांक सबंद द्विपकल्पांतल्यान धांवडावन घाले. फर्डीनंड परतून गादयेर आयल्या उपरांत ताणें संविधानांत बदल करून उदारमतवादी पद्दत उखलून धरतल्यांक ख्यास्त फर्मायली. द्विपकल्पीय झुजावेळार वगडायल्ले वसाहती प्रदेशय परतून घेवपाचे ताणें खूब यत्न केले. पूण वसाहत लोकांनी स्पेनाआड केल्ल्या साबार उठावांक लागून १८२५ मेरेन स्पेनाक आपल्या सगळ्या वसाहतींक स्वातंत्र्य दिवचें पडलें. फक्त क्यूबा, प्वोर्तो रिको, फिलीपीन्स आनी गामा जुंवो तांच्या शेकातळा उरलो.

फर्डीनंडच्या मरणा उपरांत १८३३ त ताची धूव इसाबेल दुसरी स्पेनची राणी जाली. तिका लिबरल पंगडाचो तेंको आशिल्लो. पूण फर्डीनंडाचो व्हडलो भाव डॉन कार्लोस हाणें कार्लीस पंगडाच्या आदारान इसाबेलाक विरोध केलो. ह्या दोनय पंगडांच्या झगड्यांक लागून इसाबेलाचो काळ हो स्पेनाचो अस्थिर काळ थारलो. १८६८ त सैनिक अधिकाऱ्यांनी राणी आनी तिच्या घरच्यांक धांवडावन घालून सत्ता हातासली. १८७३ त गणराज्य सरकारची स्थापणूक केल्ली. पूण कार्लीस आनी लिबरल पंगडांत यादवी झूज सुरू जालें. हाका लागून १८७४ त सैन्यान परतून उठाव करून नवें सरकार मोडून उडयलें. तांणी इसाबेलाचो चलो आल्फोन्सो बारावो हाका स्पेनाचो राजा केलो. १८८५ त ताका मरण येयत मेरेन ताणें स्पेनाचो राज्यकारभार चलयलो. आल्फोन्सोक मरण आयल्याउपरांत स म्हयन्यांनी ताची राणी मारीआ क्रिस्तीना ऑफ ऑस्ट्रीया हिणें चल्याक जल्म दिलो. १९०२ मेरेन तिणें आपल्या पुताच्या नांवान राज्यकारभार चलयलो. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या निमाणे मेरेन स्पेनाच्यो क्युबा आनी फिलिपीन्स

ह्यो म्हत्वाच्यो अशो दोनय वसाहती आशिल्ल्यो. पूण १८९० सावन तांणीय स्पेनाआड उठाव करपाक सुरवात केल्ली. उपरांत १८९८ त क्युबाचे वतीन अमेरिकेन स्पेनाआड झूज उबारलें. त्या झुजांत स्पेनाचो पराभव जालो आनी उपरांत जाल्ले कबलातीप्रमाण स्पेनाक क्युबाक स्वातंत्र्य दिवचें पडलें, जाल्यार फिलिपीन्स, गामा आनी प्वेर्तोरिको ह्यो वसाहती अमेरीकेक दिवच्यो पडल्यो.

त्याच काळांत स्पेनांत तणावाची स्थिती निमार्ण जाली. कोर्टेस (संविधान) आनी पंतप्रधान हांचे हक्क वाडले. तशेंच स्पेनिश राजकीय पक्ष आनी कामगार संघटनाय बळिश्ट जाल्यो. रुढीवादी आनी उदारमतवादी ह्या दोनय पक्षांभितर स्पेनिश सत्ता चलोवपाखातीर सर्त लागिल्ली. त्याच काळांत कामगार संघटनांनी सरकाराआड साबार खेपे उठाव केल्ले. पयल्या महाझुजांत स्पेन देश तटस्थ रावलो. त्या वेळार झुजांत गुंथिल्ल्या राश्ट्रांक तयार म्हालाची पुरवण करून स्पेनान खूब फायदो जोडलो. पूण झुजा उपरांत स्पेनाचे साबार उद्देगधंदे बंद पडिल्ल्यान थंय बेकारीचें प्रमाण खूब वाडलें. तातुंतच आल्फोन्सो तेरावो हाचे जुलमी राजवटीक लागून स्पेनाची सामाजिक स्थिती आनीक खालावली.

इ.स. १९१२ त स्पेनान मोरोक्कोचेर ताबो मेळयल्लो. पूण १९२१ त मोरोक्कोच्या लोकांनी स्पेनाआड उठाव करून सुमार धा हजारांवयर स्पेनिश सैनिकांक मारून उडयले. हे गजालीक धरून स्पेनांत तणावाची परिस्थिती निर्माण जाली. संप आनी हिंसा ही स्पेनांतली सदांचीच बाब जावन रावली. ते परिस्थितीचो फायदो घेवन १९२३ त जनरल मिंगेल प्रिमो दे रिवारा हाणें उठाव घडोवन हाडून अस्तित्वांत आशिल्लें सरकार मोडून उडयलें आनी आपूण पंतप्रधान जावन तो स्पेनाचेर हुकूमशाय गाजोवपाक लागलो. ताका मोरोक्कोंत आनी स्पेनांत थीरताय प्रस्थापित करपाक यश मेळ्ळें. पूण ताणें आपली हुकूमशाय चालूच दवरली. हाका लागून १९३० त सैनिकांनी प्रिमोआड उठाव करून ताचो बळजबरीन राजीनामो घेतलो. त्याच तेंपार स्पेनांत गणराज्य सरकार चळवळीक नेट आयिल्लो. एप्रिल १९३१ त घेतिल्ल्या शारी वेंचणुकांनी गणराज्य पक्षाक भोवमत मेळ्ळें. आल्फोन्सो देश सोडून गेल्या उपरांत त्याच वर्सा जुनांत घेतिल्ल्या संसदीय वेंचणुकांनी लिबरल, सोशेलिस्ट आनी हेर रिपब्लीकन पक्षांक भोवमत मेळ्ळें. नव्या संसदीय वांगड्यांनी १९३० त लोकशायेचेर आदारिल्लें नवें संविधान तयार केलें. त्याच म्हयन्यांत लिबरल पक्षाचो मुखेली निसेटो आलकाला झामोरा हाची स्पेनिश गणराज्याचो अध्यक्ष म्हूण नेमणूक केली. रिप्बलिकंसांनी स्पेनिश सरकाराचेर ताबो मेळयल्लो, पूण देशांत राजकीय अस्थिरपण चालूच उरलें. कट्टर सुधारणावादी मुखेल्यांनी सरकार उमथावन उडोवपाखातीर देशांत खूब उठाव घडोवन हाडले. रिप्बलिकन सरकारान रोमन कॅथलीक चर्चीचे कांय हक्क काडून घेवन, कामगार संघटनांक खूब हक्क दिल्ले. हाका लागून कामगार वर्गांत थोडीभोव सुदारणा जाली. पूण रुढीवादी लोकांनी चर्चीक तेंको दिल्लो. १९३३ त जाल्ले संसदीय वेंचणुकेंत नव्यान तयार जाल्ल्या रुढीवादी पक्षाक (CEDA) भोवमत मेळ्ळें. १९३४ त सोशेलिस्ट आनी कटलान नॅशनलिस्ट लोकांनी सरकाराआड देशव्यापी उठाव घडोवन हाडलो. सरकारान तो उठाव हिंसक पद्दतीन मोडून उडयलो. तातूंत सुमार एक हजार लोकांक मरण आयलें. ह्याच काळांत देशांतल्या पक्षांभितर उजू आनी डावू अशी विभागणी जाली. सैनिकी मुखेली, राजशाहीचो पुरस्कार करपी आनी कॅथलीक पंगडांचो उजू हातूंत, जाल्यार लिबरल, कम्युनिस्ट, कामगार संघटना आनी सोशलिस्ट पंगडांचो डावू पक्षांत आस्पाव जातालो. १९३६ त अध्यक्ष आलकला हाणें कोर्टे (संसद) बरखास्त करून नवी वेंचणूक घोशीत केली. ह्या वेळार डावू पंगडांतल्या सगळया पक्षांनी युती करून वेंचणूक लडयली आनी तातूंत तांकां यशय मेळ्ळें. पूण ते वेंचणुकेक लागून देशांत आनीक हिंसा वाडली. डावू आनी उजू पंगडांतले लोक रस्त्या रस्त्यांनी येवन एकामेकांची कत्तल करपाक लागले. जुलय १९३६ त मोरोक्कोंत आशिल्ल्या स्पेनिश सैनिकांनी स्पेन सरकाराआड उठाव केलो. उपरांत देशांत स्थिरपण हाडचेखातीर साबार सैनिकी पंगडांनी त्या उठावांत वांटो घेतलो. देशांतल्या सैनिकी पंगडांनी जनरल फ्रँको हाका आपलो मुखेली केलो. ते नॅशनलिस्ट नांवान प्रसिद्द जाले. तांका देशांतल्या फॅसिस्ट पक्षाचो तेंको आसलो. रिप्बलीक तिगोवन दवरपाखातीर नॅशनलीस्टांआड झगडटल्यांक लोयलीस्ट वा रिप्बलिकन्स अशें म्हण्टाले. दोनय पंगडां भितर यादवी झूज सुरू जावन ताका हिंस्क मोड लागलें. नाझी जर्मनी आनी इटलीच्या फॅसिस्ट पंगडांनी जनरल फ्रँकोक, जाल्यार सोविएत युनियनान लोयलिस्टांक तेंको दिल्लो. एप्रिल १९३९ मेरेन फ्रँकोन लोयलिस्टांचो विरोध मोडून उडोवन सबंद स्पेनाचेर आपली लोकशाय प्रस्थापित केली. त्या यादवी झुजांत लाखांनी स्पेनिश लोकांक मरण आयलें.

स्पेनांतलें यादवी झूज काबार जाल्याउपरांत कांय म्हयन्यांनीच दुसरें महाझूज सुरू जालें. ह्या झुजांतय स्पेन तटस्थ रावलें. पूण जर्मनीन फ्रांसाचो पराभव केल्या उपरांत फ्रँको जर्मनीक चड लागीं रावलो. पूण १९४३ त जर्मनीचो एका फाटल्यान एक असो पराभव जायत रावलो, तेन्ना फ्रँकोन ब्रिटन आनी अमेरीकेकडन बरे संबंद जोडले. झूज काबार जाल्याउपरांत सोविएत युनियनान जैतीवंत राश्ट्रांक फ्रँको हुकूमशायेचेर बहिश्कार घालपाक लायलो. फ्रँकोन म्हाझुजांत जर्मन आनी इटली राश्ट्रांक तेंको दिल्ल्यान हेर दोस्त राश्ट्रांनीय स्पेनाकडचे संबंद तोडले. पूण शित झुजाक नेट आयलो तेन्ना कम्युनिस्टांक स्पेनासावन पयस दवरपाखातीर १९५३ त अमेरिकेन स्पेनाकडेन दोस्तीची कबलात केली. स्पेनान अमेरिकेक धा वर्सांखातीर सैनिक तळ उबारपाक मान्यताय दिली. ताच्या बदला अमेरिकेन

स्पेनाची अर्थीक वेवस्था सुदारपाखातीर स्पेनाक व्हड रिण दिलें. १९६० सावन वेगवेगळे वेवसाय आनी उद्देगधंद्याची वाड जाल्ल्यान स्पेनचे अर्थीक स्थितींत आनी राहणीमानांत खूब सुदारणा जाली.

इ.स. १९६९ त फ्रँकोन आपल्या मरणाउपरांत प्रिन्स जुआँ कार्लोस हो स्पेनाचो राजा जातलो अशें घोशीत केल्लें. कार्लोस हो राजा आल्फोन्सो तेरावो हाचो पूत. १९७५ त फ्रँकोक मरण आयल्याउपरांत कार्लोस स्पेनाचो राजा जालो. १९७६ त कार्लोसान आदोल्फो सुआरेझ गोंझालेझ हाका स्पेनाचो पंतप्रधान म्हूण नेमलो. उपरांत त्या दोगांयनी देशांत लोकशाय स्थापीत करचेखातीर खर पावलां उबारलीं. १९७६ त स्पेनच्या नव्या सरकारान फ्रँकोन हेर पक्षांचेर घाल्ली बंदी काडून उडयली. उपरांत १९७७ त जाल्ले वेंचणूकेंत साबार पक्षांनी वांटो घेतलो. तातुंतल्या पंतप्रधान सुआरेझ हाच्या फुडारपणाखाल आशिल्ल्या युनियन ऑफ डॅमोक्रेटीक सेंटर हाका भोवमत मेळ्ळें. १९७८त स्पेनान लोकशायेचेर आदारीत नवें संविधान तयार केलें. नवें संविधान आपणायल्या उपरांत घेतिल्ले संसदीय वेंचणुकेंतय डॅमोक्रेटीक पक्षाक भोवमत मेळ्ळें. पूण १९८१ त सुआरेझान आपल्या पदाचो राजिनामो दिलो. उपरांत जुआँ कार्लसान लिओपोल्दो काल्यो झोतेलो हाची नवो पंतप्रधान म्हूण नेणूक केली. १९८० त बास्क्यू आनी कातालोनीआ ह्या प्रांतांतल्या लोकांनी आपल्या प्रांतांखातीर थळावी संसद स्थापीत केली. उपरांत हेर प्रांतांनीय अशो संसदो स्थापीत केल्यो.१९८२ वर्सा स्पेन 'नार्थ ॲटलांटीक ट्रीटी ऑर्गनायझेशनाचो' (NATO) सभासद जालो. उपरांत त्याच वर्सा घेतिल्ले वेंचणुकेंत 'सोशलिस्ट वर्कर्स् पक्षाक संसदेंत भोवमत मेळ्ळें. पक्षाचो मुखेली गोंझालेझ हो देशाचो पंतप्रधान जालो. १९८६ त स्पेन युरोपीयन कम्युनिटीचो वांगडी जालो. सोशलिस्ट वर्कर्स् पक्ष १९८२ ते १९९३ मेरेन सेगीत चार खेप वेंचून आयलो. पूण १९९६ त कंजर्वेटीव आनी हेर थळाव्या पक्षांचें मेळून जोड सरकार सत्तेर आयलें.

**राज्यवेवस्था :** आरागोनचो प्रिन्स फर्डीनंड आनी कास्तायलची प्रिन्सेस हांचे १४६९ त लग्न जाल्याउपरांत स्पेनांत मुखेलपणान राजशायच आशिल्ली. फकत १८७३ त (इकरा म्हयने) आनी १९३१ - ३९ मेरेन थंय गणराज्य सरकाराची स्थापणूक जाल्ली. पूण १९३९ त यादवी झूज काबार जाल्याउपरांत जनरल फ्रँकोन १९७५ मेरेन स्पेनाचेर हुकूमशाय गाजयली. त्या काळांत नवे कायदे अंमलांत हाडपाचे आनी हेर म्हत्वाचीं सरकारी धोरणां आंखपाचे हक्क फकत फ्रँको आनी ताच्या सल्लागारांकच आशिल्ले. फ्रँकोच्या मरणाउपरांत स्पॅनिश लोकांनी थंय लोकशाय पद्दतीचेर आदारिल्ली संसदीय राजशाय स्थापित केली. सद्या राजा, प्रधानमंत्री, कॅबीनेट आनी संसद मंत्री हे स्पेनिश सरकारचे मुखेल पदाधिकारी आसात.

स्पेनांत आजुनय राजेशाहीय तिगून आसा. राजा हो राष्ट्राचो अधिकृत मुखेली तसोच आंतरराश्ट्रीय मळार सरकारचो सर्वश्रेश्ठ प्रतिनिधी म्हूण तो वावुरता. नवे कायदे करप, विधिमंडळ आपोवप वा बरखास्त करप, वेंचणूक घेवप, अध्यक्ष आनी कॅबिनेट मंत्र्यांची नेमणूक करप वा बरखास्त करप हे सगळे अधिकार राजाक आसात. तो राखणेदळाचो सर्वश्रेश्ठ मुखेली आसून, झूज घोशीत करपाचे आनी कबलात घडोवन हाडपाचे अप्रत्यक्ष अधिकार ताका आसात. पूण राजान सगळीं सरकारी कार्यां मंत्र्यांच्या सल्ल्यावयल्यान करचीं असो संकेत आसा, कारण सरकारच्या कृत्याखातीर मंत्र्यांक संसद जापसालदार धरता. प्रत्यक्षांत फकत सरकारी धोरणाच्या कार्याची म्हायती मेळोवप आनी वेळप्रसंगी मंत्र्यांक सल्लो दिवप इतलेच अधिकार ताच्या हातांत आसात. प्रधानमंत्र्याक स्पेनांत अध्यक्ष अशें म्हण्टात. तो कॅबिनेटचो मुखेली आसून, स्पेनांतल्या दिसपट्ट्या सरकारी कामकाजाचेर ताची देखरेख उरता.

स्पेनांत संसद (Cortes) ही सगळ्या अर्थान सार्वभौम आसा. कायदे संमत करप, अर्थसंकल्प मंजूर करप, मंत्र्यांच्या कार्यांचेर देखरेख दवरप हो संसदेचो वावर जावन आसा. कोर्तेस हें दोन सदनी विधिमंडळ आसून, ताच्या कनिश्ठ घराक चेम्बर ऑफ डेप्यूटीज अशें म्हण्टात. तातूंत ३५० सदस्य आसतात. जाल्यार कोर्तेसच्या वरिश्ठ घराक सेनेट अशें म्हण्टात. तातूंत २०८ सदस्य आसतात. दोनय घरांतल्या सभासदांक स्पेनिश लोक पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात. अठरा वर्सां जाल्ल्या लोकांक मत दिवपाचे अधिकार आसात.

राजकारभारांत सुटसुटीतपण येवचें म्हूण देशाची ५० प्रांतांनी विभागणी केल्ली आसा. केंद्रीय सरकार दर एक प्रांतांचेर गव्हर्नराची नेमणूक करता. दर एका प्रांतांतले लोक ते ते विधानसभेचे सभासद पांच वर्सांखातीर वेंचून काडटात. शारा आनी नगरांतले लोक प्रशासकीय समिती वेंचून काडटात. दर एक शाराचो मॅयर हो मुखेली आसता.

स्पेनातली न्याय पद्दती दिवाणी (सिवील) आनी लश्करी (मिलीटरी) अशी विभागिल्ली आसा. मुखेल न्यायाधिशांची नेमणूक केंद्रीय सरकार करता. दिवाणी न्यायपद्दत मुखेलपणान दिवाणी आनी गुन्यांवकारी खटले सोडयता. ते पद्दतींत सगळयांत ऊंच सुप्रिमकोर्ट, १५ अपिलकोर्ट, ५० प्रांतीयकोर्ट आनी सुमार णव हजारांवयर थळावीं न्यायालयां आसात. लश्करी न्यायालयां मुखेलपणान लश्करीसंबंदींचे खटले चलयता.

भूसेना, नौसेना आनी वायुसेना हीं स्पेनाच्या राखणेवेवस्थेचीं मुखेल आंगां. १९९२ त मेरेन स्पेनाचे भूसेनेंत २३०,०००; नौसेनेंत ५७,०००; जाल्यार वायुसेनेंत ३३,००० सैनिक आशिल्ले. २१ ते ३५ वर्सां मेरेनच्या दादल्यांनी एक वर्स तरी लश्करांत काम करपाक जाय असो कायदो आसा.

**अर्थवेवस्था :** सद्या स्पेनाचो मुखेल उद्देगीक राश्ट्रांभितर

आस्पाव जाता. १९६० ते १९७० त परकीय भांडवल गुंतवणूक आनी पर्यटन वेवसायाक तेजी आयिल्ल्यान स्पेनाचे अर्थवेवस्थेंत खूब वाड जाली. त्या तेंपार स्पेनाचें उत्पादन तीन पटीन वाडलें. बांदावळ, कारखाने आनी खणकाम ह्या वेवसायांतल्या कामगारांच्या प्रमाणांत खूब वाड जाली. सद्या शेतकी उत्पादनापरस उद्देगधंद्यांसावन मेळपी येणावळीचो वांटो चार ते पांच पटींनी चड आसता.

स्पेनाची उद्देगीक वाड जावचे पयलीं देशाची अर्थवेवस्था मुखेलपणान शेतवडीचेरय आदारिल्ली. पूण थंयचें सुकें हवामान आनी वसू जमनीक लागून, आंवाठा मानान उत्पन्न उणेंच येता. सद्या लेगीत देशाची चडशी जमीन शेतवड आनी चरोव मळां म्हूण वापरतात. बार्ली, ओलिव, संत्रां, बटाट, गंव आनी द्राक्षां हीं हांगाची मुखेल पिकावळ. कॉर्क, लिंबू, मको, कांदे, सुगर बीट, सूर्यफुलां, बियो आनी टमाट हींय हांगा जावपी म्हत्वाचीं पिकां. देशाच्या उत्तर भागांत मुखेलपणान कड्डण पिकयतात. देशाच्या दक्षिण आनी उदेंत प्रदेशांतले शेतकामती मुखेलपणान द्राक्षां, ओलिव, संत्रां आनी हेर लिंबू जातीचीं पिकां काडटात. कॅनारी जुंव्याचेर केळीचे मळे आसात. पशुधनांत मुखेलपणान मेंढरांचो आस्पाव जाता. गोरवां, बोकडां, दुकर आनी कुकडां पोसपाच्या वेवसायाकय सद्या नेट आयला. सद्या स्पेनिश सरकारान शेतकी मळाचेर चड प्रमाणांत आधुनिक पद्दतीचो वापर करपाक सुरू केला. तरी पूण हेर युरोपी राश्ट्रांच्या मानान स्पेन शेतकी मळार मागाशिल्लोच देश आसा.

स्पेनांत खनिज संपत्ती चडशी ना. कांटाब्रीयन पर्वताचेर लोखण आनी कोळशाचे सांठे आसात. तांबें, शिशें, मरकुरी, पोटॅश, पायरायट, मीठ, टिटानीयम, युरेनियम आनी जस्त हांचेय सांठे देशांत कांय प्रमाणांत सांपडटात.

नुस्तेंमारी हो देशांतलो म्हत्वाचो वेवसाय आसा. सद्या आधुनिक बोटींच्या आदारान खूब नुस्तें मारप जाता. अँच्योवीस, कॉडफिश, हॅक, ऑक्टूपसीस, सारदीन, स्क्युड्स आनी ट्यूना ह्या गणांतलें नुस्तें थंय खूब प्रमाणांत मेळटा.

१९७० उपरांत स्पेनाची उद्देगीक मळावयली कामगिरी तोखणाय करपासारकी आसा. मोटारींच्या उत्पादनांत स्पेनाचो संवसारांत पयलो आंकडो लागता. शिमीट, रसायनीक द्रव्यां, विजेचीं आनी परमाणू उपकरणां, लोखण, तिखें, मशिनरी, प्लास्टीक, रबराच्यो वस्तू, जहाज बांधणी, जोतीं आनी कपडो उद्देग हे स्पेनांतले चड म्हत्वाचे उद्देग. देशांत वापर जावपी वट्ट विद्युत् शक्तीचो सुमार चवथो वांटो जलशक्तीसावन मेळटा. उरिल्ली विद्युत् शक्त कोळसो वा हेर इंधन जळोवन तयार करतात. स्पेनांत अणुभट्ट्योय खूब आसात.

पर्यटन वेवसाय हो सद्या स्पेनांतलो सगळ्यांत म्हत्वाचो उद्देग जावन आसा. वट्ट कामगारांतल्या सुमार एक दशांश कामगारांक तो वेवसाय काम दिता. त्या वेवसायासावन स्पेनाक दर वर्सा साडेसात अब्जांवयर अमेरिकन डॉलर्स मेळटात (१९९२ मेरेन). दर वर्सा सुमार चार कोटी पर्यटक देशाक भेट दितात. त्या वेवसायाक प्रोत्साहन दिवपाखातीर स्पेनिश सरकारान पर्यटन वेवसायासंबंदींच्या वेगवेगळया क्षेत्रांनी खाशेलें प्रक्षिशण दिवपाची तजवीज केल्या. भोंवडेकारांमदीं मुखेलपणान फ्रेंच, पुर्तुगेज, जर्मन, ब्रिटीश, बेल्जीयम, डच आनी अमेरिकन लोकांचो आस्पाव आसता.

सद्या संवसारांतल्या लागीं लागीं सगळ्या देशांकडेन स्पेनाचे वेपारी संबंद आसात. पूण फ्रांस, जर्मनी, ग्रेट ब्रिटन, इटली, मेक्सिको, नेदरलॅंड्स, साउदी अरेबिया आनी अमेरिका हे देश स्पेनाचे मुखेल वेपारी भागीदार. स्पेनाची निर्यातीपरस आयात चड जाता. निर्यात जावपी मालांत मुखेलपणान मोटारींचो आस्पाव जाता. निर्यात जावपी हेर मालांत लिंबू जातिचीं फळां, लोखण माल, ओलिव आनी ओलिव तेल, कपडे आनी व्हायन हांचो आस्पाव जाता. जाल्यार आयात जावपी मालांत मुखेलपणान पेट्रोलीयम, सोयाबीन, मको, मशिनांचे सुटे भाग आनी वेगवेगळया रसायनांचो आस्पाव जाता. अर्थीक उदरगत घडोवन हाडपाखातीर १९८६ त स्पेन 'युरोपियन कम्युनिटी' हे अस्तंत युरोपी देशाचे संस्थेचो सदस्य जालो. पॅसेटा हें देशांतलें अधिकृत चलन आसा.

**येरादारी आनी संचारण :** येरादारीच्या मळार स्पेन खूब फुडारिल्लो देश आसा. शारांतले आनी नगरांतले दोशींवटेन फुटपाथ आशिल्ले रूंद रस्ते आसात. चडशा स्पेनिश लोकांकडेन मोटार आसा. 'स्पेनिश नॅशनल रेल्वे' ही सरकारी संस्था देशांतल्या रेल्वे मार्गांचेर देखरेख दवरता. पूण हालिंच्या तेंपार चडशा लोकांकडेन मोटारी आशिल्ल्यान आनी वाडट्या हवाई प्रवासाक लागून रेल्वेचें म्हत्व ल्हव ल्हव उणें जायत आसा. मालाची हाड - व्हर मुखेलपणान उदका मार्गांतल्यानच जाता. आल्जेसिरास, बार्सेलोना आनी बिल्बाओ हीं देशांतलीं मुखेल बंदरां. सरकारी मालकेची 'इबेरीया ॲर लायन्स' ही संस्था आंतरराश्ट्रीय हवाई मार्गांचेर देखरेख दवरता.

पोस्टल आनी टेलेग्राफ सर्वीस तशेंच टेलीविजन आनी रेडिओ वितरणाचेर सरकारचेंच नियंत्रण उरता. स्पॅनिशांच्या चडशा घरांनी टेलिफोन, टि.व्ही. संच आनी रेडिओ आसात. वेगवेगळया नांवांनी उजवाडा येवपी स्पेनांत शंबरांवयर दिसाळीं आसात. तांचो खपूय चड आसा. तातुंतलीं मादरीद शारांत उजवाडा येवपी 'एल पायस' आनी बार्सेलोनांतलें 'ला वांगुर्दीया' हीं चड म्हत्वाचीं आसात. देशांत उजवाडा येवपी हेर नेमाळयांचो आनी सातोळयांचोय आंकडो व्हड आसा.

**समाजजीण :** १९९१ चे जनगणनेप्रमाण स्पेनाची लोकसंख्या ३९,७८४,००० इतली आशिल्ली. १९५० ते १९६० ह्या तेंपार स्पेनाची नेटान उद्देगीक उदरगत जाली. ताचे आदीं चडशे स्पेनिश लोक गरीब शेतकामतीच म्हूण वावुरताले. रोमन कॅथलीक हो देशांतलो अधिकृत

धर्म आसून, दर एक खेडे गांवाच्या मध्य भागार कॅथलीक चर्च आसा. सद्या स्पेन हो एक फुडारिल्लो देश आसून, चडशे लोक शारां आनी नगरांनी रावतात. स्पॅनिशांच्या राहणीमानांतय खूब सुदारणा जाल्ली आसून सद्या ते खाण - जेवण, कपडो - लत्तो आनी घरबांदणीचेर चड दुडू खर्च करतात. तशेंच उच्च दर्जाचें शिक्षण आनी वैजकी तपासणी घेवपाचीय चडशा लोकांची तांक आसा.

स्पेनाच्या कांय भागांत सांपडिल्ल्या अवशेशांवयल्यान थंय एक लाख वर्सांपयलीं मेरेन लोकांचो राबितो आशिल्ल्याचें सिध्द जालां. पूण खूब आदीम लोक वसणुकेची पुरायपणान म्हायती मेळना. पांच हजार वर्सां आदीं चडशा स्पेनिश प्रदेशाचेर इबेरियन लोकांचो शेक आशिल्लो. उपरांतच्या चार हजार वर्सांत सेल्ट, ग्रीक, कार्थेजीयन, रोमन, जर्मनीक, मूर आनी हेर टोळयांच्यो घुरयो चालूच आशिल्ल्यो. कांय काळाउपरांत दर एके टोळयेंतले लोक एकामेकांत भरसत गेले. तातुंतल्यान एक नवीच संस्कृती निर्माण जावन सद्याच्या स्पेनिश लोकांचे पुर्वज तयार जाले.

सद्या ९० टक्क्यांवयर स्पेनिश लोक शारांत रावतात. तांणी आधुनिक जिवीत शैली आपणायल्ली आसली, तरी तांचे आदले रिती - रिवाज आजुनय दिश्टी पडटात. दनपरां जेवल्या उपरांत थोडो वेळ आड पडपाची (Siesta) प्रथा थंय आजुनय आसा. थंयचे कारखाने, सरकारी कचेऱ्यो आनी दुकानां दनपारचें जेवण आनी सुशेग घेवपाखातीर तीन वरां बंद उरता. रातीकडेन जेवण घेवच्या पयलीं पासय (Paseo) मारपाची संवंय आजय तांच्यांत आसा. ते न्हीदपाकय खूब उसरां वतात. सद्या गांवगिऱ्या वाठारांचें स्वरूप खूब बदललें आसलें तरी शेतकामती फांत्यार आपल्या शेतांत वतना आनी आमोरेचेर परततना दिसतात. तांचीं घरां मातयेचीं वा फांतरांचीं आसून, भायलेवटेन चुन्यालेप काडिल्लो आसता. तांचो भेस सादो आसता. पूण 'बॅरेट' हें रूंद चेपें घालपाची चाल आजुनय तांच्यात आसा. स्पेनिश लोकांच्या जेवणांत नूस्तें चड म्हत्वाचें. दर दिसा नूस्तें वेगवेगळे तरेन शिजोवन खावपाक तांकां आवडटा. गरमेच्या दिसांनी ते मुखेलपणान 'गाझपाचो' हो टमाट, ओलिव तेल आनी मसालो घालून तयार केल्लो थंड सूप पियेतात. मांसाभितर मुखेलपणान बीफ, पोर्क, मटन, चिकन आनी रॅबिट हांकां चड खप आसा. जेवणा वेळार वा सण - परबे वेळार व्हायन हें थंयचें एक प्रतिश्ठेचें पेय. सद्या थंय ९९% लोक रोमन कॅथलिक पंथाचे आसून, १९७८ मेरेन रोमन कॅथलिक हो स्पेनाचो राज्य धर्म आशिल्लो. पूण त्या वर्सा स्पेनान नवें संविधान आपणावन सगळया धर्मांच्या लोकांक एकच वागणूक मेळटा. प्रोटेस्टंट आनी ज्यू हे थंय अल्प संख्येन सांपडपी लोक.

**कलाकुसर :** सोळावो आनी सतरावो शेंकडो हो स्पेनिश कलेचो भांगरा काळ म्हूण वळखतात. स्पेनान संवसाराक बऱ्यांतले बरे चित्रकार आनी साहित्यकार दिल्ले आसात. 'द पोयम ऑफ द सीद' आनी 'द प्ले ऑफ द वायस मॅन', ही बाराव्या शेंकड्यांतली कविता आनी नाटक आजुनय अस्तित्वांत आसात. पूण तीं कोणे बरयल्लीं हाची म्हायती मेळूंक ना. भांगरा काळांत स्पेनिश लेखकांनी उच्च कोटीचें साहित्य निर्माण केलें. त्या काळांतलें मिग्गेल दे सेरमान्टेस् हाची 'डॉन क्युसोते' ही कादंबरी, 'पेद्रो काल्देरोन दे ला बार्का' ह्या नाटककाराचें 'लायफ इज ड्रिम' हें नाटक संवसार प्रसिद्द आसा. जोसे ओरतेगा गासेट आनी मिग्गेल दे उनामूनो हे नाटककार आनी आन्तोनीओ ब्यूरो वालेजो कादंबरीकार, जुआँ रामोन जिमेनिस कवी हे विसाव्या शेंकड्यांतले जग प्रसिद्द स्पेनिश साहित्यकार.

एल् ग्रेसो, म्युरिलो आनी वालाज्क्यू गोया हे भांगरा काळांतले नामनेचे स्पेनिश चित्रकार. पाब्लो पिकासो हो संवसारांत नामना मेळिल्लो स्पेनिश चित्रकार. साल्वादोर दाली, जुआँ ग्रीस, जॉन मिरो आनी आन्तोनिओ तापायस हे विसाव्या शेंकड्यांतले हेर प्रसिद्द स्पेनिश चित्रकार.

स्पेनांत वेगवेगळया तेंपार निर्माण जाल्लीं वेगवेगळया प्रकारचीं वास्तुशिल्पां आजय पळोवपाक मेळटात. रोमनांनी थंय उबारिल्ल्यो इमारती, पूल आनी हेर बांदावळीचे नमूने आजय मोडिल्ले स्थितींत उबे आसात. स्पेनच्या कांय दक्षिण शारांनी मूर लोकांनी बांदिल्ल्यो मशिदी आयज लेगीत बरे स्थितींत आसात. वेगवेगळया काळांत उबारिल्ले किल्ले आनी पालाशो थंय खूब आसात.

स्पेनांत लोकगीत आनी लोक नाचाचे खूब प्रकार आसात. तातुंतले बोलेरो, फन्दाल्गो आनी फ्लेमिन्को हे संवसार प्रसिद्द आसात. स्पेनांत साबार चर्ची आशिल्ल्यान, ते ते चर्चीची मेळून स्पेनाच्या दर एका प्रांतांत वर्साक साबार फेस्तां जातात. त्या दिसा चडकरून पाड्यांच्यो धिरयो घडोवन हाडटात. तातुंतले जुलय म्हयन्यांत पांप्लोना शारांत जावपी सान फर्मीनचें फेस्त खूब प्रसिद्द.

कास्तिलीयन स्पेनिश ही देशाची राज्यभास. प्रांता प्रांताभितर उच्चारीकरण मातशें वेगळें आसलें तरी ते भाशेच्यो आनीक पोटभासो नात. पूण कातालोनिया प्रांतांत कातालान, बास्क्यू प्रांतांत बास्क्यू वा युस्केरा जाल्यार गालेसिया प्रांतांत गालेसियन भास उलयतात.

शिक्षणीक मळार स्पेनांत खूब उदरगत जाल्या. स ते तेरा वर्सांमेरेनच्या भुरग्यांक शिक्षण सक्तीचें आसा. मुळावें शिक्षण आठ वर्सांचें जाल्यार माध्यमिक शिक्षण तीन वर्सांचें आसा. विद्यापिठांत प्रवेश मेळयतलो जाल्यार एक वर्स त्या क्षेत्रांतलो खाशेलो अभ्यास घेवचो पडटा. सबंद स्पेनांत सुमार तीस विद्यापिठां आसात. थंय रोमन कॅथलीक आनी हेर खाजगी शिक्षणीक संस्थाय आसात.

बार्सेलोना, मॅडरीड, झारागोझा, वालेंसीआ, बिलबाओ, सेविल्ला, ओविदो, वालादोलीद, मालागा, कोर्दोबा, मुर्सीआ, विगो, ग्रानाडा, बुर्गास हीं स्पेनातलीं म्हत्वाचीं शारां.

- कों. वि. सं. मं.

**स्मृतिग्रंथ :** धर्मविशयक सिध्दांतांचो आस्पाव आशिल्ले ग्रंथ. भारताच्या धार्मिक साहित्यांत स्मृतिग्रंथांक एक खाशेलें स्थान आसा. धार्मिक बाबतींत श्रृतींचे फाटोफाट स्मृतींक म्हत्व आसा. धर्माचो मूळ स्त्रोत जातुंतल्यान प्रवहित जालो तातूंत स्मृति मुखेल आसात. वेद, वेदज्ञांची स्मृती म्हणजे परंपरा आनी तांचो सदाचार हीं धर्माचीं मुळां आसात, अशें गौतम धर्मसुत्रांत सांगलां. तशेंच स्मृतिग्रंथांत धर्मशास्त्राच्या नेमांचीय म्हायती वेवस्थितपणान मांडिल्ली सांपडटा.

पुर्विल्ल्या काळांत स्मृतिंचो आंकडो सामको कमी आशिल्लो. सगळयांत पयलीं याज्ञवल्क्यान जी स्मृतींची एकठांय नामावली दिली तातूंत ताणें वीस स्मृतिंचीं नांवां दिल्लीं आसात. ताच्या उपरांतच्या ग्रंथकारांनी दिल्लो स्मृतिंच्या नांवांचो आंकडो सुमार शंबर जाता.

ह्यो स्मृती वेगवेगळया काळांत रचिल्ल्यो आनी जायते शेंकडे तांची रचना जायत आशिल्ली. कांय स्मृती गद्य स्वरुपांत आसूनय तातूंत श्लोकांचो आस्पाव आसा. चडशो स्मृती पद्य स्वरुपांत आसात. गौतम, आपस्तंभ, बौधायन, मनुच्यो स्मृती इ. सनापयलीं जायते शेंकडे बरयल्यात. तशेंच याज्ञवल्क्य, पराशर आनी नारदाच्या स्मृतिंचो रचनाकाळ इ.स. चो पयलो - दुसरो शेंकडो आसा. हांच्याभायर उरिल्ल्यो सगळयो स्मृती इ.स. ४०० ते १०० ह्या काळांत रचिल्ल्यो आसात.

शातातप, हारीत आनी अत्री ह्या नांवांच्यो दोन वा तीन वेगवेगळयो स्मृती आसात. वृध्द, बृहत् आनी लघू हीं उपपदां जोडिल्ल्योय कांय स्मृती आसात.

सगळयोच स्मृती प्रमाणभूत मानिनात. कांय स्मृती आयज उपलब्धय नात. पूण सादारणपणान मनुस्मृतीच सर्वश्रेश्ठ आनी प्रमाणभूत थरता. तिचे फाटोफाट याज्ञवल्क्य स्मृती आसा आनी ताचे उपरांत बाकिच्या स्मृतिंचो आंकडो लागता.

धर्मशास्त्राभशेन समाजीक नदरेनय स्मृतींक खूब म्हत्व आसा. भारतीय समाजाची रचना चातुर्वर्ण्य आनी चार आश्रम हांच्या सिध्दांतांचेर जाल्ली आसा. चार वर्ण आनी चार आश्रम हांची म्हायती धर्मशास्त्राच्या ग्रंथांवयल्यानच कळटा. तशेंच हिंदुंच्या मूज, लग्न सारकिल्ल्या सोळा संस्कारांचें वर्णन स्मृतिग्रंथांत सांपडटा. भारतीय समाजाची परिस्थिती जाणून घेवपाची आसल्यार स्मृतिंचो अभ्यास करप गरजेचें आसा.

भारतांतल्या वेव्हाराचें म्हणजेच कायद्याची वळख करून घेवपाची आसल्यारय स्मृतिंचो अभ्यास गरजेचो. मनू, याज्ञवल्क्य, नारदाच्या स्मृतींत आनी मध्यकाळांतल्या जीमूतवाहन हांच्या निबंदांनी भारतीय वेव्हारशास्त्राचें विस्तारीत आनी पांडित्यपूर्ण विवेचन आयिल्लें आसा. इंग्लिशांच्या काळांत आनी आयच्या न्यायालयांत दायभागाचे जे नेम केल्ले आसात ते पुर्विल्ल्या धर्मशास्त्राचेर आदारिल्ले आसात. बंगालांतय दायभागासंबंदीं जो कायदो लागू आसा तो जीमूतवाहनाच्या ग्रंथाचेर आदारिल्लो आसा. हेर राज्यांनी ह्या संबंदींचे कायदे याज्ञवल्क्य स्मृतिंचे मिताक्षरा टीकेवयल्यान घेतिल्ले आसात. अशेतरेन धार्मिक, सामाजिक आनी कायद्याचे नदरेन स्मृतींक खूब म्हत्व आसा.

स्मृतींत मुखेलपणान आचार, वेव्हार आनी प्रायश्चित्त ह्या तीन गजालींचें वर्णन आयिल्लें आसा. आचार विशयाच्या सकयल ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र हे चार वर्ण आनी ब्रह्मचर्य, गृहस्थ, वानप्रस्थ आनी संन्यास हे चार आश्रम आनी तांचीं कर्तव्य - कर्मां सांगिल्लीं आसात. संस्कारांतल्यान सुसंस्कृत जाल्लीच व्यक्ती आपणाचें आनी समाजाचें कल्याण करपाक शकता हाची जाण आशिल्ल्यानच पुर्विल्ल्या ऋषींनी कांय संस्कार निर्माण केले. ह्या संस्कारांचें विस्तारीत विवेचन आमकां स्मृतिंच्या आचार विभागांत सांपडटा. तशेंच विद्यार्थ्यांकडेन संबंदीत आशिल्ल्या सगळया विशयांचें वर्णनय स्मृतींत केल्लें आसा. सदच्या जिवितांत उपेग पडपी अशा जायत्या विशयांचीय म्हायती स्मृतींत दिल्ली आसा.

राजनीतीचेंय वर्णन हातूंत विस्तारान आयिल्लें आसा. राजाची दिनचर्या, ताचीं कर्तव्यां, प्रजेकडेन ताचें वागप, दंडविधानाची समाजांत आशिल्ली गरज, राजान ते कशे पाळप ह्या विशयांचें विवेचन स्मृतिकारांनी केल्लें आसा. तशेंच वैश्य आनी शूद्र हांचो धर्मय तातूंत विस्तारान कथन केल्लो आसा.

स्मृतींत आस्पावपी दुसरो विशय म्हणजे वेव्हार. आयज हाका कायदो म्हण्टात. हातूंत आयचे सगळे फौजदारी आनी दिवाणी कायदे येतात.

प्रायश्चित्त प्रकरणांत धार्मिक आनी सामाजिक कृत्यां करूंक नाशिल्ल्यान वा चुकीचे पद्दतीन केल्ल्यान जीं पापां उत्पन्न जातात तांच्या निराकरणाखातीर वेगवेगळीं प्रायश्चित्तां सांगिल्लीं आसात.

भारतीय समाजाची नीट वेवस्था लावप हें स्मृतिकारांचें मुखेल कार्य आशिल्लें. समाजाची उदरगत जाली म्हणजे व्यक्तीचीय उदरगत जाता. देखून दर व्यक्तीच्या अभ्युदयाची इत्सा करपी स्मृतिकारांनी जायते नेम केले. ताकालागून वेगवेगळया विदेशी घुरयांच्या काळांतय भारतीय समाज तग धरून रावलो. अशे तरेन संस्कृती आनी भारतीय समाज हांकां प्रतिश्ठीत करपाचो म्हत्वाचो वावर स्मृतिकारांनी केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**स्वंयवर :** (पळेयात लग्न संस्था).

**स्वरमंडळ :** एक पुर्विल्लें वाद्य. सारमंडळ हें ह्या शब्दाचें अपभ्रश्ट रूप आसा. शाङ्र्गदेवान संगीत रत्नाकरांत मत्त कोकिळा वीणेचो उल्लेख केल्लो आसा. तिचेवरीच हें वाद्य आसा. हें वाद्य म्हळयार एक लांब चवकोनी लांकडी पेटी आसता. तिची लांबाय सुमार ३ फूट,

रुंदाय १.५ फूट आनी उंचाय ७ इंच आसता. लांबायेची एक बाजू उणी आशिल्ल्यान रुंदायेची एक बाजू तिरकी जाता. तेवटेन छत्तीस खुंटयो बसयल्ल्यो आसतात. तांकां सरयो गुठलावन त्यो घोडयेवयल्यान व्हरून तांची दुसरी तोंकां मुखावयले वटेन आशिल्ल्या तारदानाक बांदतात. ह्या सरयांची लांबाय साहजीकच उणी उणी जायत आसता. ताकालागून ह्या वाद्यांत मंद्र, मद्य आनी तार ही तीन स्वरसप्तकां वाजोवंक मेळटा. आदीं मध्ययुगांत ह्या तारांची संख्या २१ वा २२ आसताली. पूण सद्या ती बरीच चड आसता. एक एक सरी एका एका स्वरार लायिल्ली आसता.

नखीन आनी जव्यान वा बोटांनी ह्यो सरयो छेडप जातात. वा दोन ल्हान बडयांनी वाजयतात. गमकां आनी अलंकार उत्पन्न करपाखातीर दाव्या हातान ल्हान लोखणी कडें घेवन तें सरयेर दामताता. आदीं कडया जाग्यार शिंपल्यो वापरताले. ह्या वाद्याचो आवाज मवाळ आनी गोड आसता. हें वाद्य बडयांनी वाजयल्यार ताचो आवाज पियानो वरी येता. पियानोवरी हाका चार लांकडी पाय लायतात. हातुंतल्यानच पियानोचो उगम जालो आसूंक जाय अशें संगीतज्ञाचें मत आसा. हें वाद्य स्वतंत्रपणान वाजोवंक येता वा साथीकय वापरूंक येता.

- कों. वि. सं. मं.

**स्वस्तिक :** एक मंगल चिन्ह. स्वस्तिक हो शब्द सु + अस धातुपसून तयार जाला. सु = शुभ, मंगल आनी कल्याणप्रद. तशेंच अस = सत्ता, अस्तित्व देखून स्वस्ति = कल्याणाची सत्ता. स्वस्तिक हें प्रसन्नतेचें द्योतक आसा देखून पुर्विल्ल्या काळासावन भारतांत ताका सर्वश्रेश्ठ प्रतिक मानतात. भारतीय आर्यांनी तें चतुर्विध पुरुषार्थाचें सूचक मानिल्ले आसा. चारय युगांत स्वस्तिक चिन्न अक्षुण्ण उरता अशी तांची श्रध्दा आसा.

स्वस्तिकाचो प्रचार भारतांतच न्हय तर संवसाराच्या हेर देशांतय मेळटा. सगळयांत पुर्विल्ल्या अशा पाशाणयुगासावन स्वस्तिकाचो वापर केल्लो दिश्टी पडटा. मोहेंजोदडोच्या उत्खननांतय स्वस्तिक चिन्न मेळ्ळां.

स्वस्तिक हे अतिपुर्विल्ल्या मनशान निर्माण केल्लें सगळयांत पयलें धर्मप्रतिक अशें समजतात. पावस दिवपी इंद्र, ढगांचें संचलन करपी वायू, उजवाड आनी उश्णता दिवपी सूर्य, मनशाचे बरेवायट वागणुकिचेर आनी शुभा शुभ कर्माचेर नदर दवरपी वरुण वा तत्सम दुसरो खंयचो तरी देव अशा जायत्या देवांचो स्वस्तिकांत आस्पाव जाल्लो आसा. देवाची शक्ती आनी मनशाची शुभ कामना ह्या दोगांयच्या एकवटीत बळग्याचें तें प्रतिक आसा.

एक उबी रेग आनी तिचेर तितलेच लांबायेची दुसरी आडवी रेग अशी स्वस्तिकाची मुळची कल्पना आसा. उबी रेग ही ज्योतिर्लिंगाची प्रतिनिधी आसा आनी ज्योतिर्लिंग हें विश्वउत्पत्तीचें मूळ कारण आसा. आडवी रेग ही सृश्टीचो विस्तार दाखयता. ईश्वरान ही सृश्ट तयार केली आनी सगळया देवांनी आपल्या बळग्याचो आदार दिवन तिचो विस्तार केल्लो असो ह्या मूळ स्वस्तिकाचो भावार्थ आसा.

स्वस्तिकाचो संबंद चडसो सुर्याकडे जोडिल्लो आसा. स्वस्तिकाचे फुली भोंवतणी एक वांटकूळ काडलें जाल्यार तें सुर्याचें प्रतिक जाता. उबे फुलयेंत एक तिरपी फुली काडली जाल्यार ते आकृतेक आठ आरे तयार जातात. ताचेर त्रिकोनी तोपयो काडटकच की अश्टदल कमळ तयार जाता. सुर्याचें आनी विष्णुचें अभिन्नत्व आसा. ताकालागून स्वस्तिकाची चार भुजा म्हळयार विष्णुचे चार हात. विष्णुकलागून स्वस्तिकाचें विश्वधारकत्व सुचित जाता. स्वस्तिकाचो मध्यबिंदू हे विष्णुचें नाभिकमल म्हळयार सृश्टीकर्त्या ब्रह्मदेवाची सुवात आसा. ताकालागून स्वस्तिक हे सर्जनात्मक थारता. फुलयेच्या आडव्या रेगेचीं दोनय तोंकां उबीं वळयलीं म्हण्टकच तोच त्रिशूळ जाता. त्रिशूळ हें शिवाचें आयुध आसून तो सृश्टीचो संहारकर्तो आसा. अशे तरेन सृश्टी - स्थिती आनी प्रलय अशो विश्वाच्यो तिनय अवस्था एकाच स्वस्तिकाच्या वेगवेगळया आकृतींनी दाखयल्ल्यो आसात.

स्वस्तिकाचे दावे आनी उजवे अशे दोन प्रकार आसात. जाच्या भुजांचीं तोंकां दावेकडे वळयल्लीं आसतात तें दावें आनी जाची उजवेकडे वळयल्लीं आसतात ते उजवें. दावें स्वस्तिक कालीचें द्योतक आसून तें नारीतत्त्वाचें प्रतिक आसा. उजवें स्वस्तिक गणेशाचें चिन्न आसून ते नरतत्त्वाचें प्रतिक मानतात.

'सिध्दांतसार' ह्या ग्रंथांत स्वस्तिकाचें तत्त्वगिन्यानात्मक विवेचन दिलां, तें अशें - स्वस्तिकाचो मध्यबिंदू हो विश्वाचो गाभो आनी ताचेंच नांव सत. हो मध्यबिंदू जेन्ना रेगांत विस्तारता आनी ताचो जो व्यास जाता तो लिंगरूप तत्त्व. हे महायोनींत उत्क्षोभ निर्माण करता आनी उत्पत्रीक प्रेरणा दिता. जेन्ना हातुंतल्यो रेगो शुलाचो आकार घेतात तेन्ना जड आनी चेतन अशा पुराय वेगळया तत्त्वाचो आगळोच मेळ जाता आनी तातुंतल्यान नामरुपात्मक विश्व जल्म घेता.

हिंदूंवरीच जैन आनी बौध्द लोकांतय स्वस्तिक हें पुज्य मानलां. बौध्दांच्या उपासनेंत स्वस्तिकांची जायतीं रुपां दिसून येतात. बौध्द धर्मावरवीं हें स्वस्तिक मलाया, जावा, चीन ह्या सारक्या भायल्या देशांनीय पावलां. चीनांतलीं देवळां आनी धर्मग्रंथ हांचेरय स्वस्तिकाच्यो आकृत्यो काडिल्ल्यो आसतात. बौध्द देवळांत दिव्याचेर स्वस्तिकाची आकृती दिसता. जैन लोक जेन्ना एकाद्र्या देवाचें दर्शन घेतात तेन्ना देवामुखार स्वस्तिक काडून ताचेर दक्षणा दवरतात. जैन बायलांकय स्वस्तिक प्रिय आसा.

भारतीय शिल्पकलेंतय स्वस्तिकाक मानाची सुवात आसा.

पूरी हांगाच्या जगन्नाथाच्या देवळाचो भितल्लो भाग स्वस्तिकाचे आकृतीचो निर्मिल्लो आसा. काशीचें एक देवूळय त्याच आकाराचें आसा.

पुर्विल्ल्या काळार सावन मनशान निर्माण केल्लें हें एक आशयगर्भ अशें मंगल प्रतिक आसा, देखुनच लग्नावेळार अंतरपाटाचेर पिंजरीन (कुकमान) स्वस्तिकाचें चिन्न काडटात. कांय कडेन जल्मल्ल्या भुरग्याक सटयेदिसा स्वस्तिक काडिल्ल्या वस्त्रार न्हिदयतात. स्वस्तिक हें शांती, समृध्दी आनी मंगल हांचें प्रतिक आशिल्ल्यान जायत्यो सवाशिणी बायलो चांतुर्मासांत स्वस्तिकव्रत करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**स्वाझिलँड :** आफ्रिका खंडांतलो एक ल्हान देश. ताचो आकार लंबवर्तुळाकारसो आसा. ताका उत्तर, अस्तंत आनी दक्षिण अशा तीन दिकांनी दक्षिण आफ्रिका ह्या देशान रेवडिला, जाल्यार ताचे उदेंतेक मोझांबिक देश आसा. क्षेत्रफळ १७,३६४ चौ. किमी., उत्तर - दक्षिण लांबाय १९३ किमी., जाल्यार अस्तंत उदेंत रुंदाय १४० किमी. थळाव्या स्वाझी ह्या खांप्री लोकांवयल्यान देशाक स्वाझिलँड हें नांव मेळळां. म्बाबाने हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** देशाचो आंवाठ ल्हान आसलो तरी भुगोलीक नदरेन थंय खूब वेगळेंपण आसा. भूंयस्वरुपाचे नदरेन देशाचे चार वांटे केल्यात ते अशे - १) उंचेलो उक्तो प्रदेश (High Weld), २) मध्य - मरडभाग, ३) बूश वेल्ड आनी ४) एस्कार्पमँट हो भृगू भाग.

हायवेल्ड ह्या ऊंच आशिल्ल्या उक्त्या प्रदेशाची दर्याथरासावन उंचाय १,३७० मी. परस चड आसा. हो भाग देशाचे अस्तंतेक आसून, दक्षिण आफ्रिकेच्या ड्रॅकंसबर्ग हे पर्वतावळींचोच तो एक भाग. थळावे भाशेंत ताका इन्कान्गाला प्रदेश अशें म्हण्टात. इन्कान्गाला म्हळयार झाडां - पेडां नाशिल्लो उक्तोसो थंड भाग. ह्या प्रदेशांतली चडशी जमीन तळपी आसा. हायलँड पर्वतांचे उदेंतेक मिडल वेल्ड हो मरड भाग आसा. ह्या भागांत वेगवेगळया तणांचे प्रकार वाडटात. ल्हान ल्हान दोंगर आनी अशीर देगणांचो हो भाग. ह्या भागाचे उदेंतक बूशवेल्ड वा सखल मळांचो प्रदेश आसा. ह्या भागांत वेगवेगळया प्रकारचें मोटवें तण आनी झोपां आसात. देखून ताका थळावे भाशेंत ल्हिलांझे अशें म्हण्टात. स्वाझी भाशेंत ल्हिलांझे म्हळयार झाडां - पेडां आशिल्लो उबदार प्रदेश. लॅबोंबो हो पर्वतीय प्रदेश देशाचे उदेंत शिमेर आसा. मानान्गा बॅकोन आनी इसाटेकी हीं ह्या पर्वतावयलीं उंचेलीं तेमकां, ज्वालामुखीसावन तयार जाल्ल्यो दोंगुल्ल्योय थंय सांपडटात.

आफ्रिका खंडांतल्या दक्षिणेक आशिल्ल्या हेर देशांपरस स्वाझिलँडाक न्हंयांसावन उदकापुरवण बरी जाता. इंग्वाव्युमा, कोमाती, उंबुलुझी आनी ग्रेट उसुती ह्यो देशांतल्यो चार मुखेल न्हंयो. त्यो अस्तंतेकडच्यान उदेंतेकडेन व्हांवतात.

**हवामान :** भूंयरचणुकेप्रमाण हवामानांत वेगळेंपण सांपडटा. हायवेल्ड ह्या चड उंचायेच्या प्रदेशांत सरासरी तापमान १६° सॅ. इतलें आसता. त्या भागांत वर्सुकी पावसाचें प्रमाण ११४ ते १९१ सेंमी. इतलें आसता. मध्य तणाच्या भागांत सरासरी तापमान १९° सॅ., जाल्यार पावस ७६ ते ११४ सेंमी. इतलो पडटा. सखल भागांत सरासरी तापमान २२° सॅ. इतलें उरता. देशाच्या हेर भागांपरस सखल भागांत पावस उणो म्हळयार ५० सेंमी. इतलो पडटा. पावस चडकरून ऑक्टोबर ते मार्च ह्या काळांत पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात :** देशांत आयजमेरेन फुलपी आनी नफुलपी मेळून वनस्पतिच्यो २,६०० जाती सांपडल्यात. हायवेल्ड ह्या पर्वतीय भागांत पायन रुखांचें दाट रान आसा. हेर रुखांचोय आस्पाव तातूंत जाता. मध्य आनी सखल भागांत तणाचे वेगवेगळे प्रकार मेळटात. पर्वतीय भागांत लिली फुलांचे, पाचवे, तांबडे, गुलाबी, हळदुवे अशे वेगवेगळे प्रकार मेळटात.

आदल्या तेंपार शिकार आनी सद्या शेतकी जमनिचो विस्तार हांका लागून मोनजातिच्यो वेगवेगळयो जाती देशांतल्यान नाजाल्यात. सद्या हांगाच्या रानांनी शींव, झेब्रा, हिपोपोटॅमस, काळवीट, मेरू, सांबर, हरण, तशेंच कुड्डू, इम्फाला, रिडबक, ड्युकर ह्यो हरणाच्यो जाती आनी माकडाच्यो वेगवेगळयो जाती सांपडटात. सरपटपी जनावरांत मानगें, शिल्ले, विखयाळे आनी बिनविखयाळे सोरोप मेळटात. सुकण्यांच्यो खाशेल्यो जातीय हांगा पळोवपाक मेळटात.

**इतिहास :** स्वाझी आख्यायिके प्रमाण तांचे पुर्वज सद्या मोझांबीकचें राजपाटण माप्यूटो हांगा रावताले. उपरांत अठराव्या शेंकड्याच्या निमाणेकडेन स्वाजी लोकांचो मुखेली ग्वाने दुसरो हाणें कांय मोजक्याच स्वाझींच्या आदारान सद्याचो दक्षिण स्वाझीलंड भाग हातासलो. थंय तांका दोंगराचेर आनी देगणांमदीं रावपी हेर आफ्रिकन लोक मेळळे. ग्वाने दुसरो आनी ताच्या फाटल्यान आयिल्ल्या हेर स्वाझी मुखेल्यांनी थंयच्या खांप्री लोकांचो स्वाझी लोकांत आस्पाव केलो.

ब्रिटीश वेपारी आनी बोअर लोक स्वाझिलँडांत १८३० च्या सुमाराक पावले. १८८० त थंय रावपी परकी लोकांनी भांगराचो सोद लायलो. भांगर खणपाखातीर साबार मिनेर थंय पावले. तांणी स्वाझी मुखेल्यांकडेन भांगर खणपाक, तशेंच शेतवडीखातीर जमनीचो उपेग करपाक परवानगी मागली. स्वाझी अशिक्षीत आशिल्ल्यान तांणी दुकूमेतांचेर सही करून भांगर खणपाचे आनी जमनीचो वापर करपाचे हक्क परकियांक दिले.

१८९४ त ब्रिटीश आनी बोअर हांच्यांत कबलात जावन, दक्षिण आफ्रिकेंतल्या बोअर प्रजासत्ताकाक स्वाझिलँडाचेर सरकार चलोवपाक मान्यताय दिली. पूण १९०२ त बोअरांक हारोवन ब्रिटनांन

स्वाझिलँडाचेर आपलो शेक बसयलो. १९६७ त ब्रिटनान स्वाझिलँडाक स्वराज्य दिलें. उपरांत ६ सप्टेंबर १९६८ दिसा स्वाझिलँडाक पुराय स्वातंत्र्य मेळ्ळें. २४ सप्टेंबर १९६८ दिसा स्वाझिलँड संयुक्त राश्ट्रांचो वांगडी जालो.

१९६८ त ब्रिटिशांनी स्वाझिलँडाखातीर नवें संविधान तयार केलें. त्या संविधाना प्रमाण स्वाझिलँड हो संविधानात्मक राजशाय देश जालो. राजा सोभुजा दुसरो देशाचो मुखेली जालो. पूण स्वाझी लोकांचें हीत आनी परंपरेक धोको आसा ते जाणून साबार स्वाझींनी त्या संविधानाक विरोध केलो. १९७३ त तें संविधान बरखास्त करून विधानमंडळाचेर तात्पुरती बंदी घाली. उपरांत मंत्रीमंडळाच्या आदारान तो राज्य करपाक लागलो. उपरांत राजान नवें संविधान तयार करपाखातीर एक खाशेली समिती नेमली. १९७९ त नवें विधानमंडळ निर्माण केलें. १९८२ त राजा सोभूजाक मरण आयलें. उपरांत १९८३ त ताचो १५ वर्सां पिरायेचो चलो युवराज मारवोसेटीव गादयेर बसलो. १९८६ त ताणें राजा मास्वाती तिसरो ह्या नांवान आपल्याक राज्यभिशेक केलो.

**राज्यवेवस्था :** स्वाझिलँड हो राजशाय देश. राजाची नेमणूक वंशपरंपरेन जाता. तो मंत्रीमंडळाच्या सल्ल्यान सरकार चलयता. राजमाता हिका राश्ट्रीय भोगावळी वा विधी करपाचो पयलो मान दिला. राजाचे आवयक राजमाता ही उपाधी दिल्या. तिका मरण आयलें जाल्यार राजाचे खंयचेय एके बायलेक राजमातेचे तात्पुरते हक्क मेळटात.

**अर्थवेवस्था :** शेतकी उदरगत आनी खनीज संपत्तीक लागून देशाची अर्थीक स्थिती खूब फुडारल्या. शेतवड हो स्वाझिलँडाचो मुखेल वेवसाय. देशांतले सुमार ९०% लोक शेतवडींत वावुरतात. पिकां भोंवते पद्दतीन (Rotational System) काडटात. ऊंस, तांदूळ, कापूस, केळीं, मको, कड्डाण, तंबाकू, अननस, लिंबू जातीचीं फळां आनी हेर फळफळावळ खूब प्रमाणांत जाता. शेतवडीक जोडून आशिल्लो पशुपालन वेवसायाकय खूब म्हत्व प्राप्त जाला. दूद आनी मांस प्रकल्पय नेटान वाडटा. स्वाझिलँडाची चडशी भूंय युरोपीयनांचे मालकेची आसून, निर्यात करपाखातीर ते मुखेलपणान नगदी पिकांच काडटात.

रानांसावन मेळपी येणावळीचोय वांटो म्हत्वाचो आसा. १९४० सावन युरोपी कंपन्यांनी दोंगुल्ल्यांचेर पायन आनी युक्यालिप्टस रुखांची लागवड करून, कृत्रीम रानां तयार केल्यात. मदेर चिरपी चडशो भंगसाळीय युरोपी मालकेच्यो आसात.

देशाचे भूंयेंत तरेकवार खनिजांचे सांठे आसून, ते मुखेलपणान ऊंच दोंगुल्ल्यांचेरय मेळटात. देशांतले वट्ट येणावळींतलो सुमार अर्दो वांटो खनिज उद्योगासावन मेळटा. खनिज उद्देगांचेरय युरोपीयनांचीच मालकी आसा. लोखण, ॲसबॅस्टोस, कोळसो, जस्त, भांगर, बॅरायट आनी कॉलीन हांचे सांठे खूब प्रमाणांत मेळटात.

१९६० सावन स्वाझिलँडांत लघुउद्देगांची नेटान वाड जाल्ली आसा. खाद्य तेल, शाबू, चप्पल, फस्कां हांचो लघुउद्देगांत आस्पाव जाता. शिमीट, सारें, अन्न प्रक्रिया, लुगट हांचेय व्हड कारखाने थंय आसात.

स्वाझिलँडाचे वेपारी संबंद मुखेलपणान युरोपी देशांकडेन आसात. साकर, फळावळ, ॲस्बॅस्टोस, लोखण, मांस हांची निर्यात जाता. जाल्यार अवजड मशिनां, सारें, लुगट, जळण आनी मोटारींची आयात जाता. लिलांजनी हें देशाचें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारण :** येरादारीच्या मळार बरी सुदारणा जाल्या. मुखेल शारांक जोडपी रस्ते बरे आनी रूंद आसात. गांवगिऱ्या वाठारांनीय रस्त्यांची बरी वेवस्था केल्या. मोझांबिकचें माप्युटो बंदर रेल्वेमार्गान देशाचे राजधानीक जोडलां. दक्षिण आफ्रिकेक जोडपी रेल्वेमार्ग उंचायेचेर बांदिल्लो आसा. झिंब्बाबाने शारांत विमानतळ आसून दक्षिण आफ्रिका, मोझांबीक, झिंब्बाबे आनी टांझानीया देशांनी हवाई येरादारी जाता. पोस्ट, टेलिफोन आनी टेलिग्राफ सेवा सरकारी नियंत्रणाखाल चलता.

**लोक आनी समाजजीण :** स्वाझिलँडांत धा लोकांतले ९ लोक खांप्री आसून, ते चडकरून शेतकामतीच आसात. स्वाझी हे खांप्री लोक वेगवेगळया पंगडाचे आसून निगुनी, सोथो आनी दलामिनी हे मुखेल. दलामिनी हे वरिश्ठ घराण्यांतले लोक. स्वाझी संस्कृती, परंपरा, कायदो, व्यक्ती, बोलीभास हांकां सिस्वाती अशें म्हण्टात. हेर आफ्रिकन लोकांत मोझांबीकचे शांगानी लोकांचो आस्पाव जाता. अल्पसंख्येन आशिल्ल्या युरोपी लोकांत इंग्लीश आनी दक्षिण आफ्रिकेंतल्या गोऱ्या लोकांचो आस्पाव जाता. साप्प अल्पसंख्येन आशिल्ले युराफ्रिकन्स हे युरोपी आनी स्वाझी हांचे अपत्य.

स्वाझी लोकांकडे आशिल्ली शेतकी जमीन आनी गोरवां हांचेवयल्यान तांचो भौशिक दर्जो थारता. स्वाझींचे परंपरेप्रमाण ते गायेची हत्त्या करीनात. पूण कांयकडेन गायेचो बळी दितात. लग्नावेळार व्हंकलेचो आवय - बापूय न्हवऱ्याक अमुकूच गोरवां दोत म्हूण दिता. स्वाझी परंपरेप्रमाण स्वाझी दादलो एका परस चड बायलो करपाक शकता. थंय आजूनय संयुक्त कुटूंब पद्दत अस्तित्वांत आसा. आदल्या तेंपार स्वाझी लोक गोठ्याक तेंकूनच आपल्यो खोंपी बांदताले. तांच्यो खोंपी वांटकुळयोच आसताल्यो. पूण सद्या गिरेस्त स्वाझी लोक फांतराच्या घरांनी रावतात. स्वाझीक एकापरस चड बायलो आसल्यार तांचे खातीर स्वतंत्र पांखें उबारतात. तांचीं पोरसांय वेगळीं आसता. शेतवडींत राबप आनी गोरवांक चरोवपाक व्हरप हो स्वाझी दादल्यांचो आनी भुरग्यांचो मुखेल वावर. स्वाझी लोकांक भडक रंगाचे कपडे आवडटात. कांय स्वाझी लोक आजय चामड्याचे कपडे घालतात. पूण सद्या चडशे लोक आर्विल्लो भेसच करतात. देशांतले अदर्यापरस चड

लोक अशिक्षित आसात. शिक्षणीक दर्जो वाडोवपाखातीर सरकारान नव्यो येवजण्यो आंखल्यात. स्वाझी सिस्वाली भास उलयतात. बांटू भाशेची ती एक पोट भास.

पारंपारीक उत्सव आनी संगीत हांकां भौशिक मळार चड म्हत्व आसा. इंक्वाला हो देशाचो राश्ट्रीय उत्सव. तो उत्सव ते डिसेंबर वा जानेवारी म्हयन्यांत मनयतात. जाल्यार उमलांगा हो थंयचो भौशिक नाच. इंक्वालो हो देशांतलो सगळयांत पवित्र उत्सव आसून, त्या दिसा राजा प्रसवशक्तिचें मूळ, तशेंच बळ आनी एकता हांचें प्रतिक म्हूण प्रतिनिधित्व करता. त्या दिसा पदां - नाच आनी लोकनृत्य हांच्यो खाशेल्यो कार्यावळी जातात. तो उत्सव स दीस चलता. उमलांगा ह्या पेंपाऱ्यांच्या नादार जावपी नाचांत, मुखेलपणान आंकवार चलयो वांटो घेतात. जल्म, मरण वा लग्नसुवाळया वेळार म्हणपाचीं खाशेलीं पारंपारीक पदां आसात. खिळखिळो हें तांचें मुखेल वाद्य. चडशे स्वाझी लोक किरिस्तांव चर्चीचे अनुयायी आसात. हेर स्वाझी पारंपारीक आफ्रिकी धर्म पाळटात.

- कों. वि. सं. मं.

**स्वाती** : आश्विन्यादी गणनेंतलें पंदरावें नखेत्र. हें नखेत्र तुळ राशींत येता. हाची एकच तारका आसून हें विषुववृत्ताचे उत्तरेक भूतप गिन्यालागसार आसा. हाचो रंग मोतयावरी आसता. तें चंद्राच्या भ्रमणमार्गांत येना. हें नखेत्र तिर्यङ्मुख, सुलोचन आनी चर मानिल्लें आसा. हे स्त्रीनखेत्र आसा. वायु ही हाची देवता आसा. हाका नखेत्र प्रजापतीच्या हृदयस्थानार कल्पिल्लें आसा.

हाचें वैदिक नांव निश्ट्या अशें आसून तें सदांच उत्तर मार्गान गमन करता अशें म्हळां. यजुर्वेदांत स्वातीविशीं एक संकेत सांगिल्लो आसा, तो असो - सौभाग्यकांक्षिणी चली लग्न जातकच आपल्या घोवाक आवडची अशी इत्सा आसल्यार तिचें स्वाती नखेत्राचेर दान करचें. ती आपल्या संवसारांत इतली रमतली, बापायच्या घरा परत येवपाची तिका इत्सा लेगीत जावची ना. पूण स्वातीचो घोव चंद्रीन तिची सतत उपेक्षा करता आशिल्ल्यान ती सदां दुख्खीच आसता.

ह्या नखेत्राचेर जल्मल्लो मनीस सुंदर, बुध्दिमान आनी श्रीमंत आसता अशें कोश्ठीप्रदीपांत म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**स्वाध्याय** : एक नेम बद्द अशी अध्ययन अवस्था. हाच्यो तीन व्याख्या दिल्यो आसात - १) आवृत्तिपूर्वकवेदाध्ययनम् (अध्ययन केल्ल्या वेदांची पुनरावृत्ती करप आनी अशाच नेमान करीत रावप). २) मोक्षशास्त्राध्ययनम् (मोक्षशास्त्राचे तत्त्वज्ञानात्मक ग्रंथांचें अध्ययन आनी चिंतन करप). ३) स्वाध्यायो नाम मन्त्रार्थसन्धानपूर्वको जप (मंत्रांच्या अर्थाकडे चित्ताचें अनुसंधान दवरून ताचो जप करप म्हळयार स्वाध्याय).

सामान्यपणान ब्रह्मयज्ञाच्या वेळार यथाशक्ति वा यथावसर वेद - वेदांगाची आवृत्ती करतात, ताका स्वाध्याय म्हण्टात. 'स्वाध्यायान्मा प्रमदः' 'स्वाध्याय प्रवचनाभ्यां न प्रर्मादतव्यम्' असे तैत्तिरीय उपनिषदाच्या शिक्षावल्लींत भिक्षूंनी सांगला. ताचो अर्थ - स्वाध्याय प्रवचन म्हळयार वेदांची आवृत्ती आनी वेदाध्यापन हेविशीं स्नातकान वा गृहस्तान केन्नाच उपेक्षा करूंक जायना असो आसा.

खंयच्याय शिक्षणांत स्वाध्याय हो एक गरजेचो असो भाग आसा. अध्ययन प्रभावी रावपाचे नदरेन ताचो खूब उपयोग जाता. शिक्षकान शिकयल्लें ज्ञान विद्यार्थ्यान आत्मसात केले ना, जाल्यार ताचो खरो उपयोग जायना. तेखातीर स्वाध्याय म्हत्वाचो आसता. ताकालागून ब्रह्मयज्ञ करचो पडटा. 'स्वाध्यायो वै ब्रह्मयज्ञः' स्वाध्यायाखातीर स्वाध्याय करप्याक सुखाची न्हीद मेळटा. स्वाध्याय हो आत्माचो चिकित्सक आसा. स्वाध्यायाखातीर किर्ती आनी वेवहारांत परिपक्वता प्राप्त जाता अशें मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**स्वित्झर्लंड** : युरोपांतलो एक धाकटुलो, हिमान भरिल्ल्या तेमकांचो एक सोबीत देश. क्षेत्रफळ ४१,२१३ चौ. किमी. देशाची उदेंत - अस्तंत लांबाय ३४३ किमी. आनी रुंदाय २२२ किमी. देशाचे उत्तरेक जर्मनी, अस्तंतेक फ्रांस, दक्षिणेक इटली आनी उदेंतेक ऑस्ट्रिया हे देश आसात. बर्न हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन** : भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे मुखेल तीन भाग केल्यात ते अशे - १) ज्युरा पर्वतीय प्रदेश, २) स्विस सडो आनी ३) स्विस आल्पस्. ज्युरा पर्वतीय प्रदेश आनी स्विस आल्पस् मेळून देशाचे सुमार ६५% क्षेत्र रेवडिलां. पूण मध्य भागावयल्या सड्याचेर देशांतली चडशी लोकसंख्या संघटीत जाल्ली आसा.

ज्युरा पर्वतीय प्रदेशांत ऊंच दोंगरांच्यो साबार वळी आसात. त्या वळींक अशीर आनी खोल देगणांनी वेगळीं केल्यांत. ह्यो वळी देशाच्या अस्तंत भागांत पातळिल्ल्यो आसून, फुडें त्यो फ्रांस देशांत पावल्यात. मोंत तेंद्रे हें देशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. ताची उंचाय १,६८२ मी. इतली आसा.

स्विस सड्याची उंचाय दर्याथरासावन ३७० ते ६७० मी. इतली. ह्या सड्याचेर कांय सपाट मळां आसात. ह्या प्रदेशांत साबार ल्हान - व्हड तळीं आसून, तातुंतली लेक कॉन्स्टंस आनी लेक जिनिवा म्हत्वाचीं. सड्यावयल्या मळांची माती चड पिकाळ.

स्विस आल्पस् हो युरोपांतल्या सगळयांत व्हडल्या पर्वतांचो भाग. ह्या पर्वतांनी स्वित्झर्लंडाचो सुमार ६०% भाग रेवडिला. ह्या पर्वतांची उंचाय १,०७० मी. वयर ना. चडशीं तेमकां पांच ते तीन

म्हयनेमेरेन हिमान भरिल्लीं आसतात. ह्या भागांत दाट रानां आसात. ह्या रानांक लागून ऊंच दोंगरांवयलो हीम सकयल देंवना. ऱ्हायन आनी ऱ्होन न्हंयांच्या देगणांनी स्विस आल्पसाचे उत्तर आनी दक्षिण अशे दोन वांटे केल्यात. बर्निस, लेपोंटायन, पॅनिंने आनी रायटेन ह्यो ह्या प्रदेशांतल्यो म्हत्वाच्यो वळी. ऊंच पर्वतांचेर आशिल्ल्या साबार झऱ्यांचें धबधब्यांत रुपांतर जाल्लें आसा. आल्पस् प्रदेशांतलीं हिमान भरिल्लीं ऊंच तेमकां, धारदार सुळक्यो त्या भागांत सोबीत देखावे तयार करतात. ऱ्हायन आनी ऱ्होन ह्यो देशांतल्यो म्हत्वाच्यो न्हंयो. ऱ्हायन न्हंय उत्तर दर्याक, जाल्यार ऱ्होन न्हंय भूंयमध्य दर्याक मेळ्ळया. इन्न आनी टिसिनो ह्योय न्हंयो देशांतल्यान व्हांवतात.

**हवामान :** स्वित्झर्लंडाचें हवामान उंचायेप्रमाण जाग्याजाग्यांनी बदलता. सादारणपणान ३०० मी. वयर वता तशें थंयचें तापमान २° सॅ. देंवत वता. देशांतल्या चडशा प्रदेशांनी पावस आनी हिम पडटा. सड्या प्रदेशांनी दाट धुकें पडटा. केन्ना केन्नाय तें वर्सांतले १२० दीस मेरेन पातळटा. जानेवारी म्हयन्यांत मध्य सड्याचेर आनी पर्वतीय देगणांनी तापमान - २° ते १° सॅ. इतलें आसता. गिमाच्या दिसांनी सड्यावयलें हवामान उबदार आसता. ह्या दिसांनी थंय वादळ जावपाची शक्यताय उरता. जुलय म्हयन्यांत सड्यावयलें तापमान १८° ते २१° सॅ. हांचेभितर आसता. पूण गिमाच्या दिसांनी लेगीत चड ऊंच भागांतलें तापमान शितळच उरता. मध्य सड्याचेर पावस आनी हिमाच्या रुपान १०० ते ११४ सेंमी. उदकाचें प्रमाण मेळटा. चड उंचायेच्या प्रदेशांनी ताचे प्रमाण २५० सेंमी. परस चड आसता. १८०० मी. वयल्या भागांनी वर्सांतले स म्हयने मेरेन हिम उरता.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था :** स्वित्झर्लंडाच्या आदीम इतिहासाची स्पश्टपणान म्हायती मेळना. इ.स. पयलीं आपल्याक हेल्विशीयन म्हणपी सेल्टीक लोक थंय रावताले. इ.स. पयलीं ५८ त सिजरच्या फुडारपणाखाल रोमी सैन्यान तांचेर घुरी घालून तांकां आपल्या शेकातळा दवरले. अशे रितीन हेल्वेशिया हो प्रांत रोमी साम्राज्याचो एक प्रांत जालो. उपरांत इ.स. ४०० त आल्मेनियन आनी बर्गंडियन हे दोन जर्मन पंगड थंय स्थायीक जाले. इ.स. ५०० त जर्मनच्या फ्रँक ह्या पंगडान आल्मेनियम आनी बर्गंडियनांक हारावन थंय आपलो शेक बसयलो. चार्लमाग्नेचे राजवटींत फ्रँकीश सत्तेचो खूब विस्तार जालो. पूण णवव्या शेंकड्यांत ती विभागून गेली. ९६२ त सद्या अस्तित्वांत आशिल्लो स्वित्झर्लंड देश होली रोमन साम्राज्याचो भाग जालो, जाल्यार उरिल्लो प्रदेश बर्गंडी राज्याच्या शेकातळा गेलो. हो भाग १०३३ त रोमी साम्राज्याक जोडलो. त्या वेळार रोमी साम्राज्याच्या आधिपत्याखाल थंय ल्हान ल्हान अशे साबार राजा राज्य करताले. तेराव्या शेंकड्याच्या सुमाराक तांच्यांतल्या हॅबस्बर्ग घराण्यान चडशा स्वित्झर्लंडाचेर ताबो मेळयलो. १२७३ त रुडोल्फ पयलो हो होली रोमी साम्राज्याचो सम्राट जावपी पयलो हॅबस्बर्ग. रुडोल्फाचो शेक दिसानदीस वाडटा तें पळोवन उरी आनी स्किवीझ राज्यांनी शेजारच्या राज्यांक एकठांय हाडून परपेटूअल कबलात घडोवन हाडली. ते कबलातीवरवीं तांणी आपलें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. तशेंच परकी घुरयांसावनय एकामेकांक आदार करपाचें थरयलें. स्विझ राज्यांक एकठांय हाडपी ही पयली कबलात. ह्याच एकठांय आयिल्ल्या राज्यांक उपरांत स्वित्झर्लंड हें नांव पडलें. स्किवीझ राज्यावयल्यान हें नांव घेतलां.

हॅबस्बर्ग घराण्याचो ऑस्ट्रीयेचेरय शेक आशिल्लो. स्वित्झ लोक आपल्याक स्वातंत्र्य मेळचें म्हूण ऑस्ट्रियेआड ते साबार खेप झगडले. १३१५ त मॉर्गाटिन गांवांत स्वित्झ शेतकामत्यांनी ऑस्ट्रियेच्या व्हड सैन्याचो पराभव केलो. १३३२ ते १३५३ ह्या काळांत आनीक पांच राज्यां स्वित्झर्लंडाक मेळ्ळीं. १३८३ आनी १३८८ त स्वित्झ लोकांनी ऑस्ट्रियेचो परतून पराभव केलो. १४०० त स्वित्झर्लंडान व्हड सैन्य उबारून एक बळिश्ट राज्य जालें. ताणें भोंवतणच्या राज्यांचेर घुरयो घालून आपल्या राज्याचो विस्तार वाडयलो. स्विझ लोकांनी १४७६ आनी १४७७ त बर्गंडीच्या ड्युकाचेर जाल्यार १४९९ त मॅक्सिमिलन पयलो ह्या हॅबस्बर्ग घराण्यांतल्या रोमी सम्राटाचेर हार घाली. स्वित्झर्लंडाक पुराय स्वातंत्र्य मेळिल्लें. पूण कायदेशीर मान्यताय ताका १६४८ त मेळ्ळी. सोळाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या दसकांत स्वित्झांनी उत्तर इटलींतल्या फ्रेंच लोकांक धांवडावन घाले. हे नवे प्रांत तांणी आपल्या राज्याक जोडून उपरांत ते सुमार ३०० वर्सांमेरेन तांच्या शेकातळा उरले. १५१५ त फ्रेंचांनी स्वित्झांचो पराभव केलो. त्या झुजांत स्वित्झांक व्हड लुकसाण जालें. तेन्नाच्यान तांणी अलिप्ततायेचें धोरण आपणायलां तें आजमेरेन पाळ्ळां.

स्वित्झ कॉन्फीडरेशन बळिश्ट जायत रावले उपरांत १४८१ ते १५१३ मेरेन आनीक पांच राज्यां ताका येवन मेळ्ळीं. अशे रितीन स्वित्झ कॉन्फीडरेशनांत वट्ट तेरा राज्यांचो आस्पाव जालो. दर एका राज्याचें आपलें स्वतंत्र सरकार आसलें. कांय राज्यांनी शेतकामत्यांची लोकशाय जाल्यार कांय राज्यांत कारागिऱ्यांचें सरकार आसलें. दर एका राज्यांतल्या वांगड्याची ॲसेंब्ली भरता. ही ॲसेंब्ली कॉन्फीडरेशनाच्या एकचाराखातीर वावुरता. पूण राज्यांच्या कारभारांत हस्तक्षेप करपाचे कसलेच अधिकार ते ॲसेंब्लीक ना.

सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन स्वित्झर्लंडांत समाज सुदारणा चळवळ सुरू जाली. हलड्रीच झिंग्ली आनी जॉन कॅल्वीन हे देशांतले त्या तेंपावयले श्रेश्ठ प्रॉटेस्टंट मुरवेली. कॅल्वीनान जिनिवा शार हें प्रॉटेस्टनांचें आंतरराश्ट्रीय केंद्र केलें. स्वित्झ समाज प्रॉटेस्टंट आनी रोमन कॅथलीक हांच्यांत विभागलो. उपरांत ह्या दोनय पंगडांभितर १५२९, १५३१, १६५६ आनी १७१२ त यादवी झुजां पेटलीं.

फ्रेंच क्रांतीक नेट आयिल्लो तेन्ना १७९८ त फ्रेंच सैन्यान स्वित्झर्लंडाचेर घुरी घालून थंय आपलो शेक बसयलो. फ्रेंचांनी थंय

हॅल्वेटीक प्रजासत्ताकाची स्थापणूक करून सगळीं राज्यां केंद्र सरकारच्या शासनाखाल हाडलीं. ह्या व्हड राजकीय बदलाक लागून स्वित्झर्लंडांत तंग वातावरण निर्माण जालें. हाचेर नियंत्रण दवरपाखातीर १८०३ त नॅपोलियनान आदल्या तेरा राज्यांची परतून रचणूक करून, तांच्या प्रदेशासावन आनीक स नवीं राज्यां निर्माण केलीं. ताणें राज्यांची स्वायत्तता परतून दिली. नॅपोलियनाचे हारीउपरांत विन्ना काँग्रेसीन स्वित्झर्लंडाक फ्रेंचांच्या शेकातळा आशिल्लीं नवीं राज्यां जोडलीं. ते काँग्रेसीन स्वित्झर्लंड हें अल्पिततायेच्या धोरणाचो पुरस्कार करपी राश्ट्र म्हूण घोशीत केलें.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन स्वित्झ लोकांनी राजकीय सुदारणा जावची म्हूण मागणी केल्ली. उपरांत स्वातंत्र्याचीय मागणी जाली. हे खातीर कांय राज्यांनी शांतीपुर्व निदर्शनां काडून सरकार उडोवपाच्यो हालचाली जाताल्यो, जाल्यार कांय राज्यांनी बंड वा दंगे जावन सरकार उमथिताले. कांय राज्यां हांचे आड आशिल्ल्यान उपरांत १८४७ त तांच्यांत यादवी झूज पेटलें. १८४८ त स्वित्झर्लंडान नवें संविधान आपणायलें. ह्या संविधानाप्रमाण देशांत दोन घरांनी विभागिल्लें विधीमंडळ आसून थंय संघीय लोकशाय पद्दत आशिल्ली. ह्या संविधानान धर्म स्वातंत्र्य आनी मनीस हक्कांची हमी दिल्ली. १८७४ त ह्या संविधानांत कांय सुदारणा घडोवन हाडल्यो. १८६३ त जीन हेन्री डुनांट ह्या स्वित्झ सावकारान जिनिवांत तांबड्या खुरसाची (Red Cross) स्थापणूक केली. ह्याच खुरसावयल्यान स्वित्झर्लंडान आपल्या राश्ट्रीय बावट्याचें चिन्न आपणायलां.

१९१४ त पयलें म्हाझूज सुरू जालें तेन्ना स्वित्झर्लंडान आपलें अलिप्ततायेचें धोरण रोकडेंच जाहिर केलें. झुजांत देंविल्ल्या दोनय पंगडांच्या राश्ट्रांनी तांचे अलिप्ततायेक मान दिलो. झूज काबार जाल्याउपरांत १९२० त स्वित्झर्लंडाच्या जिनिवा शारांत लीग ऑफ नॅशन हे जागतीक संस्थेचें मुखेल कार्यालय उबारलें. १९३९ त दुसरें महाझूज सुरू जालें तेन्नाय स्वित्झर्लंडांना झुजांत वांटो घेतलो ना. दोनय विरोधी पंगडांकडेन ताणें बरे संबंद दवरले. झुजावेळार साबार युरोपी देशांतल्या लाखांनी निर्वासीत लोकांनी स्वित्झर्लंडांत आलाशिरो घेतिल्लो. ताणी आपलें अलिप्ततायेचें धोरण राखून दवरपाखातीर झूज काबार जाल्याउपरांत १९४५ त स्थापीत जाल्ल्या संयुक्त राश्ट्राचोय तो वांगडी जालो ना. पूण युरोपी देशांनी जिनिवा हें आपलें मुखेल कार्यालय केलें. स्वित्झर्लंड संयुक्त राश्ट्रांच्या कांय खाशेल्या फांट्यांचो वांगडी जालो.

१९८६ त संयुक्त राश्ट्रांचो वांगडी जावचो कांय ना म्हूण घेतिल्ल्या जनमतान थंयच्या लोकांनी भायरच रावपाचें मान्य केलें. पूण स्वित्झर्लंड साबार युरोपी वेवसायीक संस्थांचो वांगडी आसा. १९७१ त बायलांक मतदान करपाचे हक्क दिल्यात. १९८१ त गंकय समान हक्क आसचे म्हूण संविधानान मान्य केलां. १९७९ त स्वित्झर्लंडान आपल्या राज्यांची संख्या २२ वयल्यान २३ केल्या. ज्युरा हें तेविसावें राज्य फ्रेंच उलोवपी रोमी कॅथलीकांखातीर निर्माण केलां.

देशाचो राज्य कारभार १८४८ त आपणायल्ल्या संविधानाप्रमाण चलता. हातूंत १८७४ त खूब सुदारणा जाली. ह्या संविधानाप्रमाण स्वित्झर्लंड हें संघीय प्रजासत्ताक आसून, राजकीय हक्क केंद्र सरकार आनी राज्यांभितर वांटून दिल्ले आसात. हाका लागून तें एक बरें लोकशाय राश्ट्र. विधिमंडळान केल्ल्या कायद्यांक जाप विचारपाखातीर थंयच्या नागरिकांक कांय खाशेले हक्क दिल्यात. स्वित्झर्लंडांत ल्हान - व्हड अशे खूब राजकीय पक्ष आसात. पूण देशांतल्या मुखेल पक्षांच्या मुळाव्या तत्त्वांभितर व्हडलोसो फरक ना. हाका लागून पक्षांभितर सहजतायेन एकमत जावपाक शकता. क्रिस्टीयन डॅमोक्रेटीक पार्टी, रिपब्लीक डॅमोक्रेटीक पार्टी आनी सोशल डॅमोक्रेटीक पार्टी हे देशांतले तीन मुखेल राजकीय पक्ष. देशांत उक्तें मतदान, म्हळयार हात वयर काडून आपलें मत जाहीर करपाची चाल आसा.

**अर्थवेवस्था :** स्वित्झर्लंडाचो संवसारांतल्या गिरेस्त राश्ट्रांभितर आस्पाव जाता. स्वित्झ लोकांचो राहणीमानचो दर्जो ऊंच आसा. स्वित्झर्लंड हें एक विकसीत उद्देगीक राश्ट्र. देशांतले लोकसंखेच्या मानान रोजगारी चड आशिल्ल्यान परकी कामगारांचो आंकडो थंय खूब आसा.

देशाची चडशी भूंय ऊंच आनी खडबडीत आशिल्ल्यान शेतवडीखातीर तिचो व्हडलोसो उपेग जायना. शेतकी उत्पादन फकत ३/५ लोकांची गरज भागपा इतलें आसा. चडशा अन्नाची आयात करची पडटा. गोरवां पोसप हो थंयचो मुखेल शेतकी वेवसाय. ताचे सावन देशांतले वट्ट शेतकी उत्पादनांतलो सुमार ७५% वांटो मेळटा. गिमाच्या दिसांनी गोरवां चरोवपाखातीर ऊंच सुवातेर व्हरतात. जाल्यार शिंयांच्या दिसांनी तांकां देगणांनी सोडटात. दूद वेवसाय नेटान चलता. चडशा दुदाची चीज करून ताची निर्यात करतात. पशुधनांत दुकर, बोकडां, मेंढरां आनी कुकडांचो मुखेलपणान आस्पाव जाता. गंव, कड्डण, बटाट आनी फळफळावळ हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. वट्ट भूंयेंतली फकत १०% भूंय शेतवडीखाला आसा. ४०% वयर भूंय चरोव मळांखाला आसा. जाल्यार भुंयेचो चवथो वांटो रानांखाला आसा. पूण देशांतल्या वाडट्या प्रदूशणाखातीर रानां काबार जायत आसात.

स्वित्झर्लंडांत उद्देगीक मळावयली उदरगत दोळे दिपकावपी आसा. आयात केल्ल्या मालाचेर प्रक्रिया करून उच्च दर्ज्याचो माल तयार करप आनी ताची निर्यात करप हो देशांतलो मुखेल उद्देग. ल्हान पूण चड मोलाच्यो वस्तू तयार करप हो थंयचे अर्थवेवस्थेचें मुखेल धोरण. घड्याळी तयार करप हो थंयचो एक म्हत्वाचो उद्देग. तयार केल्ल्या घड्याळांची सु. ९५% वयर निर्यात जाता. हेर उद्देगांत

वीज उपकरणां, उद्देगीक साधनां, मशीनां, वेगवेगळीं हत्त्यारां आनी गाड्यांचें सामान हांचो आस्पाव जाता. रसायनां, अन्न प्रक्रिया, कपडो, रेशीम आनी कागद तयार करप हेय म्हत्वाचे उद्देग. प्रक्रिया केल्ल्या मालांत मुखेलपणान चीज आनी चॉकलेटींचो आस्पाव जाता. हांगाचे चडशे कारखाने ल्हान वा मध्यम आकाराचे आसले तरी उच्च दर्ज्याचो माल तयार करप हें तांचें खाशेलेंपण आसा. कारखान्यांखातीर मुखेलपणान विद्युत् शक्तीचोच चड वापर जाता आसलो तरी अणूशक्तीचोय बऱ्याच प्रमाणांत वापर जाता.

पर्यटन हो स्विट्झर्लंडाचो पारंपारीक वेवसाय. हिमान भरिल्ल्यो ऊंच दोंगुल्ल्यो आनी थंयचे हेर सोबीत देखावे पर्यटकांक आकर्शीत करतात. दर वर्सा थंय सुमार इकरा दशलक्ष पर्यटक देशाक भेट दितात असो अदमास आसा. पर्यटकांक बरी सेवा मेळची म्हूण स्विट्झ सरकारान साबार हॉटेलां आनी खेळां - मैदानां आनी हेर सोयी निर्माण केल्यात.

स्विट्झर्लंडाचे सबंद संवसारांत वेपारी संबंद आसात. पूण तांचो वेपार मुखेलपणान अस्तंत युरोपी देशांकडेन चड आसा. आयातीपरस निर्यात चड जाता. बँकींग होय देशांतलो मुखेल उद्देग. संवसारांतल्यो सगळ्यांत चड सुरक्षीत बँको, अशी हांगाच्या बँकांची ख्याती आसा. स्विट्झ फ्रँक हें देशातलें अधिकृत चलन.

**येरादारी आनी संचारण :** देशाची चडशी भूंय पर्वतांची आसून लेगीत येरादारीच्या मळार थंय चड सुदारणा जाल्ली आसा. देशांतल्या पुराय रेल्वे मार्गांचेर सरकारी नियंत्रण आसा. देशांत ऊंच ऊंच पर्वत आनी दोंगर आशिल्ल्यान रेल्वेमार्ग व्हरचेखातीर तांचेमदल्यान साबार बोगदे खणल्यात. लोचेबर्ग, सेंट गोथार्ड आनी सिम्पलोन हे थंयचे मुखेल बोगदें सिम्पलोन बोगद्याची लांबाय १९.८ किमी. आसून संवसारांतल्या व्हड बोगद्यांभितर ताचो आस्पाव जाता. देशांतले रस्तेय रूंद आनी बरे आसून, ऊंच पर्वतांचेरय ते पातळळया. रस्त्यांखातीरय खूब बोगदे खणिल्ले आसात. ऊंच प्रदेशांतल्या रस्त्यांचेर शिंयांच्या दिसांनी हिम जमिल्ल्यान ते वर्सांतले कांय म्हयनेच उक्ते उरतात. १९६४ त खणिल्लें ग्रेट सँट बर्नार्ड बनेल (बोगदो ५.६ किमी) स्विट्झर्लंड आनी इटालीक जोडटा. सँट गोथार्ड रोड टॅनेल (१६.३२ किमी) हे रस्त्यामार्गांवयलो संवसारांतलो सगळ्यांत व्हडलो बोगदो. न्हायन न्हंयेवरवीं कांय प्रमाणांत उदका येरादारी चलता. जिनिवा आनी झुरीच शारांत आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात.

स्विट्झर्लंडात लागीं लागीं ९० दिसाळीं उजवाडा येतात. चडशीं खबरांपत्रां जर्मन भाशेंतल्यान उजवाडायतात. रेडीओ आनी दुरचित्रवाणीवयलो कार्यावळी सरकारच्या नियंत्रणाखाला प्रसारीत जातात. कांय खाजगी रेडिओ केंद्रांय थंय आसात. पोस्ट, टेलीग्राफ आनी टेलीफोनाचेरय सरकारी नियंत्रणाखाल चलता.

- कों. वि. सं. मं.

**स्विडन :** उत्तर युरोपांतलें एक गिरेस्त उद्देगीक राश्ट्र. स्कॅन्डीनेवीयन द्विपकल्पाचो तो उदेंत भाग. क्षेत्रफळाचे नदरेन युरोपांतलें तें चवथ्या क्रमांकाचें राश्ट्र. क्षेत्रफळ ४४९,९६४ चौ. किमी. उत्तर - दक्षिण चडांत चड लांबाय १,५७२ किमी. आनी रुंदाय ४९९ किमी. दर्यादिग ७,५६४ किमी. देशाचे अस्तंतेक आनी वायव्येक नॉर्वे, उदेंतेक फिनलँड आनी बोथनिया आखात, आग्नेयेक बाल्टीक दर्या आनी नैऋत्येक कॅट्गेट दर्या आसा. स्टॉल्कहोम हें देशाचें राजपाटण. क्रोना हें थंयचें अधिकृत चलन.

**भूंयवर्णन :** स्विडन हो स्कॅन्डीनेवीयन द्विपकल्पाचो एक उदेंत भाग. अस्तंतेकडेन देशाची भूंय ऊंच दोंगरी आसून, उदेंतेकडेन बोथनीया आखात आनी बाल्टीक दर्याकडेन ती देंवत रावल्या. देशाक लाबिल्ल्यो लांब दर्यादिगेवयल्यो दक्षिणेकडच्यो वेळो रेंवाट आसात. जाल्यार अस्तंत आनी उत्तरेकडच्यो वेळो तळपी आनी सुक्यो आशिल्ल्यो. दर्यादिगांनी जुंव्यांचे खूब चोंबे आसात. गोट्लँड हो स्विडनांतलो सगळयांत व्हडलो जुंवो. ओलँड होय जुंवो म्हत्वाचो. दोनय जुंवे बाल्टीक दर्यांत आसात.

भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे चार वांटे केल्यात ते अशे - १) पर्वतीय प्रदेश २) भितर आशिल्ली उत्तरभूंय ३) स्विडीश सकलभाग आनी ४) दक्षिणेकडची स्विडीश ऊंच भूंय.

उत्तरेकडेन आशिल्लो पर्वतीय प्रदेश हो कोलेन पर्वताचोच एक भाग. स्विडन आनी नॉर्वे हांची शिम ह्या पर्वतान तयार केल्या. हिमान भरिल्लीं साबार ल्हान ल्हान तेमकां त्या प्रदेशांत आसात. त्या प्रदेशांतले २,१११ मी. उंचायेचें मॉंट कॅबनॅकायसे हें देशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. ह्या पर्वतीय प्रदेशाचो साप्प उत्तरेकडचो भाग वसू म्हळयार झाडां - पेडां नाशिल्लो देश. हो प्रदेश साप्प थंड.

उत्तरेकडचो भितरलो भाग हो दोंगरी प्रदेश. पायन आनी स्प्रूसच्या दाट रानांनी हो प्रदेश भरला. ह्या भागांतल्यान दक्षिणेकडेन व्हांवपी खूब न्हंयो आसून, तांचेसावन खोल आनी अशीर देगणां तयार जाल्यांत. बोथनिया आखाताकडेन हीं देगणां रूंद जायत गेल्यांत. ह्या प्रदेशांत सरोवरांय खूब आसात. ह्या प्रदेशांत आशिल्ले ठोरने न्हंयेन स्विडन आनी फिनलँड हांचे मदली शीम तयार केल्या. लुले, उमे, एनगर्मन आनी डाल ह्यो ह्या प्रदेशांतल्यो हेर म्हत्वाच्यो न्हंयो.

स्विडीश लोलँड हो स्विडनाचो मध्य आनी दक्षिणेकडचो सपाट प्रदेश. मध्य सपाट भाग खूब रूंद आसून थंय खूब तळीं आसात. त्या भागांतलीं बॉनेर्न आनी वाटेर्न हीं देशांतलीं सगळयांत व्हडलीं तळीं. बॉनेर्न ह्या तळयान देशाचो सुमार ५,५८४ किमी. भाग खेडिल्लो आसून, युरोपांतलें तें एक सगळयांत व्हडलें तळें. दक्षिणेकडची सपाट भूंय ही मुखेलपणान पिकाळ शेतमी जमीन.

दक्षिणेकडचो ऊंच प्रदेश हो गॉटलँन्ड सडो म्हूण प्रसिद्द

आसा. ह्या तळपी ऊंच प्रदेशाची दर्याथरासावन सरासर उंचाय ३५० मीटर आसा. हो फांतरी प्रदेश मुखेलपणान रानाखालाच आसा. हाचो साप्प दक्षिणेकडचो भाग सपाट आसून, थंय खूब ल्हान ल्हान तळयो आनी खाजनां आसात.

**हवामान :** देशाचो सुमार १५% भाग आर्क्टिक कटिबंधाखाला येता. हाका लागून देशाच्या उत्तरेकडच्या आनी दक्षिणेकडच्या हवामानांत खूब फरक जाणवता. ॲटलांटीक महासागरासावन येवपी आग्नेयी वारें देशाचो दक्षिणेकडचो भाग उबदार दवरता. ह्या भागांतले गीम सुखदिणे आसता, जाल्यार शिंयाळो सौम्य उरता. पूण उत्तरेक गीम उबदार आसता जाल्यार, शिंयाळो खूब कडक आसता. देशाचे साप्प दक्षिणेकडेन जानेवारी ते फेब्रुवारी हो कडक शिंयाळयाचो तेंप. ह्या तेंपार त्या भागांतलें सरासरी तापमान 0° सॅ. आसता. जाल्यार किरुना ह्या साप्प उत्तरेकडच्या भागांत ह्या तेंपार सरासरी तापमान - १२° सॅ. इतलें आसता. जुलय हो स्विडनांतलो उश्ण म्हयनो. त्या म्हयन्यांत दक्षिणेकडचें तापमान १५° सॅ. १७° सॅ. इतलें, जाल्यार उत्तरेकडचें तापमान १२° ते १४° सॅ. इतलें आसता. शिंयाच्या दिसांनी उत्तरेकडचें तापमान - २३° सॅ. परसय सकयल वता. चडसो पावस कॉलेन पर्वतांचेर आनी दक्षिणेकडच्या ऊंच भागांनी पडटा. शिंयाळयांत दक्षिणेकडची जमीन हिमान भरिल्ली आसता. जाल्यार उत्तरेकडची भूंय ऑक्टोबर ते एप्रिल मेरेन हिमान भरिल्ली आसता.

**वनस्पत आनी मोनजात :** उंचायेप्रमाण रुखावळीचे प्रकार मेळटात. सगळयांत चड उंचायेचेर आल्पायन रुखावळ, ताचे सकयल बर्चवूड, उपरांत सुचिपर्णी रुखावळ (coniferous trees) आनी बीचवूड ही दर्यादिगांनी सांपडपी रुखावळ. कॉनिफरस रुखावळ चड प्रमाणांत आसून देशाची सुमार ५७% भूंय कॉनिफरस रानांनी रेवडिल्या.

कोलसुणो, वांस्वेल आनी गवे हांच्यो जाती लागीं लागीं ना जाल्यात. देखून तांची कायद्यान राखण करप जाता. रेनडियर हे पाळीव मोनजातीचे कळप उत्तरेकडच्या दोंगरी प्रदेशांनी, जाल्यार एल्की ही मोनजात देशांत सगळेकडेन मेळटा. दक्षिणेच्या आनी मध्य भागांत कोले, सोंशें आनी हरणां खूब आसात. देशांत तरेकवार सवणींय खूब आसात. तातूंत, गावपी सवणीं, खेळा सवणीं, शिकारी सवण्यांचो आस्पाव जाता, न्हंयांदेगांनी आनी दर्यालागसार बळार, बदक, गल आनी टर्नस् हीं सवणीं सांपडटात. देशांत सोरोपय खूब जातीचे आसात. पूण फुरशें हें एकूच विखयाळे जातीचें.

**इतिहास - (पुर्विल्लो काळ) :** हिम विरगळून भुंयेचें स्वरूप मेळपी स्विडन हो युरोपांतलो निमाणो देश. इ.स. प. ८००० सावन स्विडनचे दक्षिणेकडच्यान हिम विरगळपाक सुरवात जाली. हिम विरगळत रावलो तशे शिकारी आनी नुस्तें मारपी लोक बाल्टीक दर्या हुंपून त्या प्रदेशांत वचून रावपाक लागले. हवामानांत सुदारणा जाली तशे हे लोक देशाचे उत्तरेकडेन रावपाक गेले. इ.स. प. ५० च्या सुमारासावन ह्या लोकांनी रोमन साम्राज्याकडेन वेपारी संबंद जोडले. ते लोकर आनी घट्ट जाल्लो झाडाचो दींक दिवन त्या लोकांकडच्यान ग्लास, कांश्याच्यो वस्तू आनी रुप्यां नाणीं हाडटाले. स्विडिशचो इतिहास बरोवपी रोमन हे पयले लोक. रोमी इतिहासकार टॅसिटस हाणें इ.स. १०० च्या सुमाराक स्वॅर ह्या स्कॅन्डीनॅवीयन ह्या लोकांची म्हायती बरोवन काडली.

**स्विडिश वायकींग :** इ.स. ८०० चे सुरवेकसावन वायकींग ह्या स्कॅन्डीनॅवीयन जोखमी लोकांनी दर्यामार्गांतल्यान साबार देशांकडेन वेपार करून वा घुरयो घालून खूब मालवज एकठांय केल्लो. चडशे नॉर्वेजीयन आनी डॅनीश वायकींग तारूं घेवन अस्तंतेकडेन गेले जाल्यार स्विडीश वायकींग काळो दर्या ते कॅस्पीयन दर्यामेरेन गेले. उदेंतेकडच्या देशांक गुलाम आनी लोकर विकून ते थंयच्यान भांगर, रुपें आनी हेर चैनिच्यो वस्तू स्विडनांत हाडटाले. वायकिंगच्यो मोहिमो इ.स. १००० मेरेन चालू उरल्यो. उपरांत स्विडनचो चडसो वेपार जर्मन वेपाऱ्यांनी घेतलो.

**किरिस्तावांची सुरवेची राजवट :** संत अन्स्कार ह्या फ्रॅन्कीश मठ गुरून इ.स. ८२९ सावन देशांत ख्रिस्तीकरण सुरू केलें. ताचे मिशनरी थळाव्या लोकांक बाटयत रावले, ह्या कारणावयल्यान तांच्यांत आनी थळाव्या लोकांत सुमार दोनशें वर्सां संघर्श चालूच आशिल्लो. ऑलफ स्कॉट्कोनंग हो स्विडनाचो पयलो किरिस्तांव राजा. धाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन ते इकराव्या शेंकड्याचे सुरवेक ताणें आपलो शेक गाजयलो. किरिस्तावांनी स्विडनांत शाळा उबारल्यो, थळावे कलेक प्रोत्साहन दिलें, स्विडनाचो कायदो बरोवन काडलो, तशेंच हेर सुदारणा तांणी केल्यो.

इकराव्या शेंकड्यांत स्विडन, डेनमार्क आनी नॉर्वे हीं स्वतंत्र राज्यां जालीं. उपरांत स्विडनांत सामंतशाय पद्दत अस्तित्वांत आयली. त्यावेळार थंयचो समाज पुरोहीत (Clergy), वरिश्ठ (Nobles) आनी शेतकामती अशा तीन वर्गांत विभागिल्लो. ह्या सगळयांचेर देखरेख दवरपाखातीर राजा आसतालो. थळाव्यो कायदे करपी समित्यो राजाक वेंचून काडटाल्यो. १२४९ त स्विडनान फिनलँडाचो बरोच मुलूख हाताशिल्लो.

**डॅनमार्क आनी नॉर्वेकडेन एकी :** तेरावो ते चवदावो शेंकडो मेरेन स्विडनाच्या राज्यकर्त्यांभितर आनी वरिश्ट वर्गांभितर एकसारकीं झगडीं चालूच आशिल्लीं. पूण जर्मनीचो स्विडनांत वाडपी प्रभाव थांबोवपाखातीर स्विडनाच्या वरिश्ट वर्गान डॅनमार्क आनी नॉर्वेची राणी मार्गरिट हिच्या आदारान १३८८ त जर्मनांचो पराभव केलो. युनियन ऑफ कालमार ही कबलात जावन १३९७ त स्कॅन्डीनॅवीयचे तिनूय देश राणी मार्गरिटाचे सत्तेखाल परतून एकठांय आयले. हे कबलातीप्रमाण तिनूय देशांचें परकी धोरण एकूच आसलें. पूण दर एक देशाचें संविधान आनी कायदे थळावे स्थितींतच उरले. कांय तेंप

सोडल्यार ही एकी शंबर वर्सांमेरेन उरली. जर्मन वेपाऱ्यांच्या प्रभावाखाल बाराव्या आनी तेराव्या शेंकड्यांत स्विडनाची अर्थवेवस्था खूब सुदारली. त्या वेपाऱ्यांनी स्विडनाची खनीज संपत्ती विकसीत करून थंयच्या वेपाराचेर आपलो शेक बसयलो. १३५० त प्लेगाची धाम येवन स्विडनाच्या खूब लोकांक मरण आयलें. देशाचे अर्थवेवस्थेचेरय वायट परिणाम जालो. जर्मन वेपाऱ्यांनी 'हान्सेआटीक लीग' हे आपले संस्थेच्या आदारान स्विडिश वेपाराचेर आपलो शेक आनीक घट्ट केलो. पंदराव्या शेंकड्याच्या शेवटाक रिक्सदॅग (संसद) हें फकत कायदे करपी आनी कर बसोवपी मंडळच म्हूण उरलें.

स्विडनाचो मेळ नॉर्वे आनी डॅनमार्काकडेन पंदराव्या शेंकड्यामेरेन उरलो. पूण ह्या एकचाराक तेंको दिवपी आनी ताका विरोध करपी, हांच्यांत भितरल्या भितर झगडीं जायत आशिल्लीं. १५२३ त स्विडनचो नोबॅल 'गुस्तावूस वासा' हाणें डॅनिसांचेर हार घालून, त्याच वर्सा राजा गुस्तावूस पयलो ह्या नांवान तो स्वतंत्र स्विडनाचेर राज्य करपाक लागलो. नॉर्वे राज्य डॅनिश सत्तेखालाच उरलें. गुस्तावुसान जर्मनीचो धर्मसुदारक मार्टीन ल्यूथर हाच्या अनुयायांक स्विडनांत तांच्या धर्मीक कल्पनांचो प्रसार करपाक उत्तेजन दिलें. हाका लागून १५४० च्या सुमाराक ल्युथेरन धर्म हो स्विडनाचो राष्ट्रीय धर्म जालो. गुस्तावूस हाणें राजाचेय अधिकार वाडोवन आधुनिक स्विडीश राज्याची बुन्याद घाली. ताणें देशाचें सैन्य मजबूत करून, शासकीय मंडळाचें केंद्रीकरण केलें. तशेंच राजाआड जावपी बंड मोडून, वेपारी आनी उद्देगांक चालना दिली.

**विस्ताराचो काळ :** सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेकसावन स्विडनान साबार झुजां उबारून बाल्टीक दर्याभोंवतणचे खूब प्रदेश हातासले. राजा गुस्ताव दुसरो आदोल्फ हाणें साबार प्रदेश स्विडनाक जोडून देशाचो विस्तार वाडयलो. तशेंच प्रोटेस्टंट मतप्रणाली वाडोवपाखातीरय तो तीस वर्सां धर्मीक झूज झगडलो. स्विडनाचो शेक दिसानदीस वाडत रावलो. हाका लागून तांणी डॅनमार्क, रशिया आनी पोलंडा आडय झुजां उबारलीं. १६१७ ते १६४७ ह्या काळांत स्विडनान बाल्टीक दर्याच्या दोनय वटांनी आपलो विस्तार वाडयलो. जर्मन आनी पोलंडाचेय कांय प्रांत तांणी स्विडनाक जोडले. १६५८ त स्विडिशांनी डॅनिशांकडेन बळजबरीन रोस्किल्डे कबलात करून डॅनमार्काचे कांय भाग घेतले. राजा चार्ल्स बारावो हाणें १५९७ ते १७१८ मेरेन स्विडनाचेर राज्य केलें. ताणेंय स्विडनाचें झुजारी धोरण चालूच दवरून, देशाचो विस्तार आनीक वाडयलो. ह्या तेंपार स्विडन हो युरोपांतलो एक बळिश्ट देश आशिल्लो. पूण १७०९ त रशियेकडल्यान हार घेतले उपरांत स्विडनाक हेरांकडच्यान घेतिल्ले साबार प्रांत परत करचे पडले.

१७१८ त बाराव्या चार्ल्साक नवो राजा वेंचून काडचे पयलींच मरण आयलें. हाचो फायदो घेवन संसदेन नव्या राजाक नवें संविधान आपणावचें म्हूण अट घाली. १७२० त तयार केल्ल्या नव्या संविधानान राजाचे साबार हक्क काडून ते संसदेक दिले. अशे तरेन स्विडनांत संसदीय राजवट सुरू जाली. त्या काळाक स्विडीश इतिहासांत 'मुक्ततायेचो काळ' ही संज्ञा दिल्या. हो काळ १७७२ मेरेन उरलो. पूण ह्या तेंपार स्विडनाचो जर्मनीकडच्यान व्हड पराभव जालो, तशेंच देशाची राजकीय आनी अर्थीक स्थितीय खूब इबाडली. हाचो परिणाम म्हळयार देशव्यापी क्रांती जावन स्विडनांत परतून राजेशाय आयली.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांचे सुरवेक स्विडनाचे ब्रिटनालागीं वेपारी संबंद खूब वाडले. ब्रिटन आनी फ्रेंचांचें आपसांत वैर आशिल्लें. देखून ब्रिटनावांगडा स्विडनय फ्रेंचाचो सम्राट नॅपोलियनाआड झुजपाक लागलो. ह्या झुजांचो परिणाम म्हळयार रशियेन स्विडनाकडच्यान फिनलँड राज्य हातासलें. पूण स्विडनान डॅनमार्काकडच्यान नॉर्वे राज्य घेतलें. १८०९ त स्विडनान नवें संविधान आपणायलें. जीन बॅप्तीस्ते बर्नाडोट हो फ्रेंच राखणे दलाचो वांगडी नॅपोलीयनी झुजांवेळार स्विडनाचो वावुरपी राजा (Regent) जाल्लो, तो १८१८ त चार्ल्स चवदावो म्हूण स्विडनाचो राजा जालो. स्विडनाचें सद्याचें राजघराणें हें हाचोच वंशज.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत अर्थीक मळाचेर खूब उदरगत जाली आनी भौशिक मळारय खूब सुदारणा जाली. ह्या तेंपार जमनीचो खूब वांटो शेतवडीखाल हाडलो. पूण ह्याच शेंकड्याचे सुरवेक देशाची लोकसंख्याय खूब वाडिल्ल्यान, देशांत योवपी पीक उणें पडपाक लागलें. वाडटे लोकसंख्येवांगडा देशांतली बेकारीय वाडली. हाचो परिणाम म्हळयार १८६७ ते १८८६ ह्या तेंपार सुमार ४,५०,००० स्विडीश लोक अमेरिकेक आनी हेर युरोपी देशांनी वचून स्थीर जाले. देशांतल्या उद्देग धंद्यात खनिज आनी रान उद्देगांत वाड जाल्याउपरांत निर्वासीतपण (Emigration) उणें जालें. लांकूड उद्देग वाडोवपाखातीर सरकारान १८६० ते १८७० ह्या काळांत खाशेले रेल्वेमार्ग उबारले. १८६७ त स्विडीश रसायन शास्त्रज्ञ आल्फ्रेड नोबॅल हाणें डायनामायटचो सोद लायलो. डायनामायटच्या आदारान खनिज सांठे उस्तुपाचो वावर नेटान जावपाक लागलो. लोखण आनी तिख्या वस्तू करपी कारखाने वाडले. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक मेरेन स्विडनाचो मुखेल उद्देगीक राष्ट्रांमदीं आस्पाव जालो. ह्या तेंपार राजकीय आनी भौशिक मळारय आनीक सुदारणा जाली. वेगवेगळयो कामगार संघटना अस्तित्वांत येवन, तांणी कामगारांची स्थिती सुदारली. तांकां मतदान करपाचेय हक्क मेळळे. १८८९ त साबार कामगार संघटना एकठांय येवन तांणी भौशिक लोकशाय पक्षाची स्थापणूक केली. कामगार संघटनांच्या वाडट्या प्रभावाक लागून, स्विडीश सरकारान वेगवेगळया कायद्यांवरवीं कामगारांखातीर कांय खाशेल्यो येवजणो आंखल्यो.

१९०५ त नॉर्वे राज्य स्विडनासावन वेगळें जालें. नॉर्वेजियांनी आपलो राजा वेंचून काडल्या उपरांत स्विडनान नॉर्वेचें स्वातंत्र्य मानून

घेतलें. पयल्या आनी दुसऱ्या महाझुजांत स्विडनान तटस्थतायेचें धोरण आपणायल्लें. पूण १९४० त जर्मनीन नार्वे हाताशिल्लो तेन्ना, स्विडीश सरकारान जर्मन सैन्याक देशांतल्यान वचपाक मान्यताय दिल्ली. पूण साबार स्विडीशांनी ह्या धोरणाक विरोध केल्याउपरांत, १९४३ त सरकारान ताचेर बंदी घाली. दुसऱ्या महाझुजाउपरांत ते १९६० मेरेन स्विडनाच्या अर्थीक मळार खूब भरभराट जाली. स्विडीश लोकांच्या राहणीमानांतय खूब सुदारणा जाल्यो. १९७५ त नवें संविधान तयार केलें. त्या संविधानान राजाचे चडशे हक्क काडून घेवन ते संसदेक दिले. देशांत १९३२ ते १९७६ मेरेन समाजवादी लोकशाय पक्षाचोच शेक आशिल्लो. उपरांत १९७६ ते १९८२ मेरेन हेर पक्षांनी मेळून सत्ता गाजयली. १९८२ त परत समाजवादी लोकशाय पक्ष सत्तेर आयलो. १९८६ त प्रधानमंत्री ओलोफ पाल्मे हाची हत्त्या जाली. उपरांत इंग्वॉर कार्लसोन प्रधानमंत्री जालो. १९८८ त जाल्ले संसदीय वेंचणुकेंत 'ग्रीन पार्टी' ह्या पक्षाक भोवमत मेळळें.

सद्या स्विडनाचो गिरेस्त राश्ट्रांभितर आस्पाव जाता. पूण १९८० ते १९९० ह्या सबंद दसकांत देशाक अर्थीक अडचणींक तोंड दिवचें पडलें. उद्देगीक उत्पन्न उणें जायत रावलें, जाल्यार म्हारगाय वाडत रावली. वाडटे म्हारगायेक आळाबंद हाडपाक सरकाराक अपेस आयलें. देखून राजकीय तणावय निर्माण जाले. सप्टेंबर १९९१ त जाल्ले भौशिक वेंचणुकेंत खंयच्याच पक्षाक भोवमत मेळूंक नाशिल्ल्यान युती सरकाराची स्थापणूक जाली. कार्ल बिल्ड्ट् हो नवो प्रधानमंत्री जालो.

**राज्यवेवस्था :** स्विडनांत संविधानात्मक राजशाय अस्तित्वांत आसा. राजा वा राणी, प्रधानमंत्री, कॅबीनेट आनी संसद मेळून राज्यकारभार चलयता. १८०९ त तयार केल्लें संविधान १९७५ मेरेन अस्तित्वांत आशिल्लें. १८०९ च्या संविधानान राजाक कार्यकारी सत्ता दिल्ली. पूण वैधानिक हक्क राजा आनी संसदेक वांटून दिल्ले. १९१७ त संविधानांत कांय सुदारणा करून राजाचे कांय हक्क काडून ते संसदेक दिल्ले. १९७५ त तयार केल्ल्या संविधानान राजाचे उरिल्लेय कार्यकारी हक्क काडून घेवन ते संसदेक दिले. अशे रितीन राजा हो नांवापुरतोच देशाचो मुखेली उरलो. १९८० त संविधानांत परतून सुदारणा करून राजघराण्याची सगळयांत व्हडली आस्पत चलो वा चलयेक राजगादयेचे वारस म्हूण थारायले. संसदेचें अधिवेशन राजा वा राणयेचेच उपस्थितींत सुरू जाता. नवो प्रधानमंत्री जेन्ना सत्ता हातांत घेता तेन्नाय ताका त्या सुवाळयाक हाजीर रावचो पडटा.

कार्यकारी सत्ता प्रधानमंत्री आनी हेर कॅबिनेट वांगडयांच्या हातांत आसता. संसदेचो सभासद प्रधानमंत्र्याची नेमणूक करता. पूण ताका हेर संसद वांगडयांचीय मान्यताय जाय पडटा. उपरांत प्रधानमंत्री हेर कॅबिनेट वांगडी वेंचून काडटा.

देशाची संसद एक सदनी आसून तीका 'रिक्स्दा' अशें म्हण्टात. संसदेंत ३४९ वांगडी आसून, तांकां तीन वर्सांखातीर वेंचून काडटात. तातुंतले फकत ३१० वांगडी भौशिक मतदानांत वेंचून काडटात, जाल्यार हेर जागे वेगवेगळया पक्षांक देशभर कितलीं मतां पडटात, त्याप्रमाण वांटून मेळटात. हे राखीव जागे मेळपाखातीर पक्षाक सबंद देशांत उण्यांत - उणीं ४% मतां पडपाक जाय, वा एका मतदार संघांत १२% मतां पडपाक जाय. अठरा वर्सां पिरायेच्या दर एका स्विडीश नागरिकाक भौशिक वेंचणुकेंत वांटो घेवपाक मेळटा. संसदेच्या अधिवेशनाचो तेंप ऑक्टोबर ते मे मेरेन आसता. सबंद कॅबिनॅट वा कॅबिनॅटच्या खंयच्याय वांगड्याक काडून उडोवपाचे हक्क संसदेक आसात. सरकारी अधिकाऱ्यांचेर देखरेख दवरपाखातीर संसद ऑम्बड्समॅन ह्या खाशेल्या अधिकाऱ्याची नेमणूक करता. भ्रश्टाचार आनी बेकायदेशीर कामां थांबोवप तशेंच नागरिकांक समानता मेळोवन दिवप हें तांचें मुखेल काम. भौशिक लोकशाय पक्ष, हो देशांतलो मुखेल पक्ष. सेंटर पार्टी, मोडरेट पार्टी आनी लिबरल पार्टी हेय थंयचे म्हत्वाचे पक्ष. जाल्यार कम्युनिस्ट आनी ग्रीन पार्टी हे थंयचे ल्हान पक्ष.

राज्यकारभार वेवस्थीत चलचो म्हूण देशाचे २४ प्रांत केल्यात. त्या प्रांतांचें स्वतंत्र थळावें सरकार आसून, ताचेर लक्ष दवरपाखातीर दर एका प्रांतांत गव्हर्नर नेमतात. लोकांनी वेंचून काडिल्ल्या मंत्रिमंडळाच्या सल्ल्याप्रमाण तो सरकार चलयता.

**अर्थवेवस्था :** स्विडन हें एक गिरेस्त उद्येगीक राश्ट्र. भरभराटीक पाविल्ली ताची अर्थवेवस्था मुखेलपणान सुदारिल्ली अभियांत्रिकी आनी सर्व्हीस इंडस्ट्रीज हांचेर आदारिल्ली आसा. निर्यातीसावन मेळपी येणावळिचोय वांटो खूब म्हत्वाचो. सुमार ९०% स्विडिश उद्येग खाजगी मालकिचे आसात. घट्ट लांकूड आनी लोखण हांच्या व्हड सांठ्यांक लागून स्विडनाक अर्थीक मळार विकास करपाक शक्य जालें अशें अर्थतज्ञांचें मत. जलविद्युत् केंद्र आनी अणुशक्ती केंद्र हांचेसावन देशाक जाय आशिल्ली ऊर्जा मेळटा. दक्षिणेक आनी मध्याक आशिल्ली पिकाळ जमीन देशाक अन्न पुरवण करता.

वट्ट भुंयेंतली फकत १0% जमीन शेतवडीखाला आसा. देशाचे सामके दक्षिणेक स्कॅन ह्या वाठारांतलें बरें हवामान आनी पिकाळ जमनीक लागून थंय तरेकवार पिकां भरपूर प्रमाणांत काडटात. दक्षिणेकडच्या हेर भागांनी आनी मध्य वाठारांतय कांय प्रमाणांत पिकां काडटात. देशाचो उत्तरेकडचो भाग चड थंड आशिल्ल्यान थंय कसलेंच पीक काडपाक मेळना. हांगा जावपी मुखेल पिकावळींत बार्ली, ओट, बटाट, शुगर बीट आनी गंवाचो आस्पाव जाता. चडशे शेतकामती सहकारी संस्थेचे वांगडी आसात. ही संस्था शेतकामत्यांक सगळे तरेचो आदार दिता. दूद उत्पादन आनी पशुपालन हे शेतकामत्यांक खूब येणावळ दिवपी मुखेल वेवसाय. दूद, बीफ आनी पोर्क हांचो खप चड आसा.

देशांत सांपडपी खनिजांभितर लोखण हें चड म्हत्वाचें. स्विडनांत सांपडपी लोखण माल हो बऱ्या दर्ज्याचो आसून तो मुखेलपणान लॅपलँड भागांत सांपडटा. स्कॅलेफ्टी भागांत तांबें, भांगर, शिंशें आनी रुपें मेळटा.

हांगाचे वट्ट भुंयेतली सुमार १/५ भूंय रानाखाला आसा. रानांसावन मेळपी घट्ट मदेराची व्हडा प्रमाणांत निर्यात जाता. नुस्तेंमारीय व्हडा प्रमाणांत चलता. नुस्तें मारपाखातीर आधुनिक यांत्रीक बोटींचो उपेग जाता.

उद्देगधंद्याच्या मळार स्विडनान दोळे दिपकावपी उदरगत सादल्या. लोखण आनी तिखें संबंदीत उद्येग हे हांगाचे मुखेल उद्देग. देशांत उच्च दर्ज्याचें तिखें तयार करतात. हेर उद्देगांचीय वाड जाल्ली आसा. वट्ट निर्यातींत उद्देगीक उत्पादनाचो वांटो सुमार २/५ इतलो आसता. देशांतले सुमार २/३ कामगार सर्व्हीस उद्देगांत आसात. स्विडनाचें आयाती परस निर्यातीचें मोल चड आसा. वाहनां आनी तांचे मेकळे भाग, विद्युत् मशिनां, रसायनां, मदेर, तिखें आनी हेर अभियांत्रिकी मशीनांची व्हड प्रमाणांत निर्यात जाता. जाल्यार पॅट्रोलियम आनी अन्न - धान्य हांची आयात जाता. स्विडनाचे मुखेलपणान जर्मनी, ब्रिटन, अमेरिका, नॉर्वे, फिनलँड आनी डेनमार्क ह्या देशांकडेन वेपारी संबंद आसात. स्विडन हो युरोपियन फ्री ट्रेड असोसिएशनाचो वांगडी आसा.

**येरादारी आनी संचारण :** येरादारीच्या मळार स्विडनांत खूब सुदारणा जाल्ली आसा. रस्त्यांचें आनी रेल्वेमार्गांचें जाळें देशभर पातळिल्लें आसून, रेल्वेमार्गांचेर सरकारी नियत्रंण आसा. जर्मनी आनी डेनमार्क हे देश उदकामार्गान जोडल्यात. स्टॉकहोम शारांत आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा. मालमो आनी गोटेबर्ग हेय विमानतळ म्हत्वाचे. गोटेबर्ग हें देशांतलें मुखेल बंदर. हेर म्हत्वाच्या बंदरांत स्टॉकहोम, मालमो आनी हॉल्सिन्गबर्ग हांचो आस्पाव जाता.

स्विडनांत सुमार ११५ दिसाळीं उजवाडा येतात. तातुंतलीं आफ्टोंब्लाडेट, दाजेन्स् न्हेटर आनी एक्स्प्रेसन हीं मुखेल. चडशीं नेमाळीं खाजगी मालकिचीं आसून, सरकारान तांकां पुराय स्वातंत्र्य दिलां. दूरसंचारण (Telecommunication) ची उदरगत स्विडनांत जाल्ली आसा. देशांतल्या सगळ्या वाठारांनी दूरध्वनी आसा. 'द स्विडिश ब्रॉडकास्टींग कॉर्पोरेशन' ही राश्ट्रीय प्रसारण संस्था. रेडिओ आनी दूरचित्रवाणी सेवेचेर हे संस्थेचें नियंत्रण आसता.

**लोक आनी समाजजीण :** स्विडनाची १९९९ वर्सा लोकसंख्या ८,८८६,७३८ आशिल्ली. देशाच्या आवांठाचे तुळेन स्विडन हो युरोपांतलो उणीं लोकसंख्या आशिल्लो देश. थंय दर एक चौ. किमी.क फकत १९ लोक रावतात. देशांतले सुमार ८४% लोक शारांनी रावतात. स्विडनाचे सुमार ९५% लोक लुथेरन चर्चीचे अनुयायी आसात. रोमन कॅथलीक, मिशन कोवेनन्ट चर्च, पॅन्टेकोस्टल, बॅप्तीस्त आनी ज्यू धर्मीय लोकय थंय कांय प्रमाणांत आसात. फिनीश आनी लॅप्स् हे अल्पसंख्येन सांपडपी लोक. फिनिशांचो आंकडो सुमार पन्नास हजार आसून ते देशाचे उत्तरेक आनी उदेंत दर्यादिगांनी रावतात. लॅप्स् हे लोक मुखेलपणान खणीत वा भंगसाळींनी काम करतात.

चडशे स्विडीश हे आदीम जर्मनी पंगडाचे वंशज. डॅन्स आनी नॉर्वेजीयन लोकांकडेन तांचो लागिंचो संबंद आसा. चडशे स्विडीश हे लांब, गोरे, धवशे वा तांबशे केंस आनी निळेशे दोळे आशिल्ले लोक. तांचें राहणीमान उंचेल्या दर्ज्याचें आशिल्ल्यान तांचें जेवणय खाशेले पद्दतिचें आसता. तांकां जेवणाची सुरवात शितळ (Cold Fish) नुस्तें खावन करपाक आवडटा. उपरांत ते शितळ मांसांचे वेगवेगळे प्रकार खातात. मागीर कांय गरम जिन्नस ते खातात. निमाणेकडेन ते फळां वा कांय गोड पदार्थ खातात. स्मोर्गास्बोर्ड हो तांचो राश्ट्रीय खाणाप्रकार. हो पदार्थ ते मुखेलपणान सुटये दिसा खातात. सुटये दिसा हो पदार्थ थंयच्या सगळया होटेलांनी मेळटा. कॉफी हें तांचें आवडिचें पेय. देशाचें हवमान शितळ आशिल्ल्यान ते वोडका, व्हायन, बियर आनी हेर आल्कोहॉलीक पेयां पियेतात.

स्विडीश ही देशाची अधिकृत भास. ती जर्मनीक भाशा समुहांतली एक. डॅनीश आनी नॉर्वेजीयन भाशांकडेन तिचो लागींचो संबंद आसा. उलोवपाची आनी बरोवपाची भास पुराय देशांत सारकीच आसली, तरीय कांय प्रदेशांनी थळावी शैली आयकूंक मेळटा. साबार फिनिशी लोक फिनीश भास उलयतात. पूण शिक्षणाखातीर तांकां स्विडीश भाशेचोच उपेग करचो पडटा. इंग्लीश भाशेचोय वापर कांय प्रमाणांत जाता.

शिक्षणीक मळार खूब उदरगत जाल्ली आसा. हांगा सगळयांक शिक्षणाची एकसारकी संद मेळटा. साक्षरतेचें प्रमाण ९०% परस चड आसा. मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण फुकट. तशेंच ७ ते १६ वर्सांमेरेन शिक्षण सक्तीचें आसा. विश्वविद्यालय, टॅक्नीकल आनी हेर खाशेल्या विद्यापिठांचेर सरकारचें नियंत्रण उरता. सात वर्सां सकयल्ल्या भुरग्यांखातीर साबार खाजगी बालवाडी आसात. स्विडीश मुळाव्या शिक्षणाक ग्रुण्डस्कोला अशें म्हण्टात. हें मुळावें शिक्षण ७ ते १५ वर्सांमेरेन तीन तीन वर्सां अशें तीन पांवड्यांनी विभागलां. मुळाव्या शिक्षणाच्या तिसऱ्या पांवड्यांत विद्यार्थ्यांक आपले आवडिचो विशय घेवपाक मेळटा. गोटेबर्ग, लिंकोपींग, लुंड, स्टॉकहोम, उमेआ आनी अपसाला हीं देशांतलीं स विश्वविद्यालयां. तातुंतलें अपसाला हें सगळयांत पोरनें. तें १४७७ त उबारिल्लें. स्विडनांत स संशोधक ग्रंथालयां आसात.

स्विडीश साहित्याचें मूळ युरोपी मध्य युगांत सांपडटा. पूण दर्जेदार साहित्याची रचणूक एकुणिसाव्या शेंकड्यासावन जावपाक लागली. आगुस्त स्ट्रिन्डबर्ग हो स्विडीश साहित्य इतिहासांतलो

श्रेश्ठ साहित्यकार. एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक आनी विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक ताचीं नाटकां खूब गाजलीं. ताणें नाटक क्षेत्रांत क्रांती घडोवन हाडून, आधुनिक नाटकाची बुन्याद घाली. विसाव्या शेंकड्यांत साबार स्विडीश साहित्यकारांक नोबॅल पुरस्कार मेळ्ळयात. सेल्मा लागेरलोफ (१९०९), वर्नर वॉन हेडनस्टॅम (१९१६), अरीक एक्सेल कार्लफेल्ड (१९३१), पार फाबिएन लॅगर्कविस्ट (१९५१), एवीन जॉनसन आनी हॅरी एडमण्ड मार्टीनसन (१९७४). विसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक माज सजोवाल आनी पॅर बाहलू ह्या घोव - बायलेन बरयल्ल्या कादंबऱ्यांक संसारीक नामाना मेळ्ळी.

लळीत कलेच्या मळार स्विडनान आपली खाशेली अशी शैली निर्माण करूंक ना. चित्रकला, संगीत, शिल्पकला, वास्तूशिल्प उबारतना तांणी युरोपी आनी हेर शैलीचें अनुकरण केलां. कार्ल मिल्स् हो स्विडनांतलो प्रसिद्द शिल्पकार, जाल्यार एन्डर्स झोर्न हो प्रसिद्द चित्रकार. जेनी लिंड ही एकुणिसाव्या शेंकड्यांतली एक नामनेची ऑपेरा गायिका. तिचो आजूय 'स्विडीश नायटिंगेल' म्हूण उल्लेख जाता. टेनोर जुसी, बॅजोर्लिन आनी बर्जीत निलसोन हे विसाव्या शेंकड्यांतले प्रसिद्द ओपेरा गायक. फिल्म इंड्स्ट्रीज हातुंतय भोव उदरगत जाल्ली आसा. विक्टर स्जोस्ट्रोम आनी माउरिटज स्टीलर हे फिल्म इंड्स्ट्रींतले प्रसिद्द संचालक. तांचे चडशे सिनेमा स्कॅन्डीवीयन साहित्याचेर आदारल्या. ग्रॅटा गार्बो आनी इन्ग्रीड बर्गमॅन ह्या सिनेतारकांनी अमेरिकेक नामना जोडचे पयलीं स्विडनाच्या सिनेमांनी काम केल्लें.

वाडट्या शारीकरणाक लागून लोकवेद, लोकनृत्य, लोकगीत हांचो लागीं लागीं अस्त जाल्लो आसा. पूण ॲडवेण्ट, लुसिआ, क्रिस्मस, इस्टर हे सण स्विडीश लोक व्हडा उमेदीन मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

**हंगेरी :** मध्य युरोपांतलो चारयवटांनी जमनीन रेवाडिल्लो एक ल्हान देश. क्षेत्रफळ ९३,०३२ चौ. किमी. लोकसंख्या १०,५००,०००. हंगेरीक हेर सात देशांनी रेवडिला. ताचे उत्तरेक झेकोस्लावाकिया, आग्नेयेक युक्रेन, उदेंतेक रोमानिया, दक्षिणेक युगोस्लाव्हीया आनी क्रोयेशिया आनी अस्तंतेक स्लोवेनिया तशेंच ऑस्ट्रिया हे देश आसात. बुडापेस्ट हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** हंगेरिची चडशी भूंय सखल आनी सपाट आसा. देशाचो सुमार दोन - तृतीयांश भाग दर्याथरासावन १९८ मी. उणे उंचायेचो आसा. उत्तरेकडचो उणे उंचायेचो पर्वतीय भाग सोडलो जाल्यार, हंगेरिचो उदेंत भाग सपाट आसा. माऊंट केकस् हें देशांतलें सगळयांत उंचेलें तेमूक. ताची उंचाय १,०१५ मी. आसून ताचो आस्पाव उत्तरेकडच्या पर्वतीय प्रदेशांत जाता. देशाचो अस्तंतेकडचो चडसो भाग दोंगरी आनी पर्वतीय आसा.

तिस्झा ही देशांतली सगळयांत व्हडली न्हंय. तिची लांबाय ५७९ किमी. आसून ती उदेंत हंगेरींत उत्तरेकडच्यान दक्षिणेकडेन व्हांवता. डेन्यूब हे मुखेल न्हंयेचो तो फांटो. उत्तरेकडची कांय शिम डॅन्यूब न्हंयेन तयार केल्या. तशेंच देशाच्या मध्य भागांतल्यान ती उत्तरेकडच्यान दक्षिणेकडेन व्हांवता. उदका येरादारीखातीर तिचो खूब उपेग जाता. देशांतले अस्तंतेक आशिल्लें बॅलाटोन हें मध्य युरोपांतलें सगळयांत व्हडलें तळें. ताणें देशाचो ५९६ चौ. किमी. भाग रेवडिला.

भूंयरचणूकेचे नदरेन देशाचे चार भाग केल्यात ते अशे - १)ग्रेटर प्लॅन २) ट्रांस्डेन्यूबिया ३) लिटल प्लॅन आनी ४) उत्तरेकडचो ऊंच प्रदेश.

उत्तरेकडचो पर्वतीय भाग सोडल्यार डेन्यूब न्हंयेच्या उदेंतेकडच्या भागाचो ग्रेटर प्लॅन ह्या भागांत आस्पाव जाता. रेंवेच्यो राशी आनी न्हंयांचीं कांय अशीर देगणां सोडल्यार हो प्रदेश सपाटच आसा. देशाचो वायव्येकडचो कोनसो सोडलो जाल्यार डेन्यूब न्हंयेचे अस्तंतेक आशिल्लो सगळो प्रदेश ट्रान्सडेन्युबिया भागांत आस्पावता. ट्रान्सडेन्युबिया हो दोंगुल्ल्यांचो आनी पर्वतीय भाग. बॅलाटोन तळयाचे उत्तरेक वांटकुळया आनी मोटव्या दोंगुल्ल्यांची सांखळी तयार जाल्या. वायव्येकडचो कोनसो लिटल प्लॅनांत मोडटा. तो मुखेलपणान सपाटच आसा. डेन्यूब न्हंयेचो आग्नेयेकडचो आनी ग्रेटर प्लॅनाचे उत्तरेकडचो भाग म्हळयारच उत्तरेकडचो ऊंच प्रदेश. हो ग्रेट कार्पाथियन पर्वत प्रणालिचोच एक भाग आसा.

सादारणपणान हंगेरिंतलो शियाळो चड थंड आनी गीम चड उश्ण आसा. जानेवारी म्हयन्यांत देशांतलें सरासरी तापमान -२° सॅ. आनी जुलय म्हयन्यांत तें २१° सॅ. मेरेन चडटा. पावस आनी हिम हांच्या रुपान हंगेरींत सादारपणान वर्सुकी उदकाचो शिंवर ६० सेंमी. पडटा.

उद्येगीक क्रांती उपरांत, आधुनिकीकरणाच्या हावेसान हंगेरीन चडशीं मुळावीं रानां मारून उडयलीं. पूण फाटल्या कांय वर्सांसावन पायन रुखांची लागवड करून रानक्षेत्र वाडोवपाचे सरकारी यत्न चल्ल्यात. पूण हंगेरीची चडशी भूंय सपाट आनी उणे उंचायेची आशिल्ल्यान तांच्या वावराक फाव तसो प्रतिसाद मेळना. हांगाच्या चड उंचायेच्या रानांनी हरणां आनी रानदुकर चड आसात. सखल भागांतल्या तणाच्या वाठारांनी सोंशे, हुंदराचे कांय प्रकार, चानयो, तितर आनी हेर मोनजात सांपडटा.

**इतिहास :** मागियार लोकांनी णवव्या शेंकड्यांत डेन्यूब न्हंयेच्या मध्य पाणट्यांत आपलो शेक बसयल्या उपरांत हंगेरी राज्य अस्तित्वांत आयलें. हें घडणुकेच्या हजारवर्सां आदीं हांगा लोकांचो राबितो आशिल्लो अशें म्हण्टात. पूण ताची म्हायती स्पश्टपणान मेळना. मागियार लोक हांगा पावले तेन्ना हंगेरिचो कांय भाग (पन्नोनिया

आनी डासिया प्रांत) रोमी साम्राज्याखाल आशिल्लो. आर्पाद हाच्या फुडारपणाखाल णवव्या शेंकड्याच्या शेवटाक मागियार टोळयेन डेन्यूब न्हंयेभोंवतणचो चडसो वाठार हातासलो. तातूंत, सद्या हंगेरी म्हूण अस्तित्वांत आशिल्ल्या देशाचो चडसो भाग आस्पाविल्लो. हांगा आपलो तळ उबारून, ते युरोपांतल्या हेर प्रसिद्द शारांचेर घुरी घालून तीं लुट्टाले. पूण ९५५ त जर्मन राजा ओट्टो पयलो हाणें मागियारांचो पराभव केलो. तेन्नाच्यान तांणी अस्तंत युरोपी राज्यांचेर घुरयो घालपाचें सोडून हंगेरींतच आपलो राबितो केलो.

९७० त आर्पादचो पणटूर गेझा हो मागियार टोळयेचो मुखेल जालो. ताणें मागियारांचे ल्हान ल्हान पंगड एकठांय हाडून मागियारांचें संयुक्त राश्ट्र करपाक सुरवात केल्ली. ताच्या मरणाउपरांत ताचे चलो स्टिफन हाणें तो वावर चालू दवरलो. स्टिफन हो रोमन कॅथलीक आशिल्लो. ताणें पोप सिल्वेस्टर दुसरो हाचेकडेन आपल्याक हंगेरीचो राजा करचो म्हूण मागणी केल्ली. पोपान ती मान्य करून १००० त ताका हंगेरीचो राजा केलो. स्टिफन हो हंगेरीचो पयलो राजा. राजा जाल्या उपरांत स्टिफनान हंगेरिचो रोमन कॅथलीक धर्म हो राजधर्म म्हूण जाहीर केलो. कॅथलीक चर्चीन १०८३ त (म्हळयार स्टिफनाच्या मरणाच्या ४५ वर्सां उपरांत) ताका संत म्हूण घोशीत केलो. उपरांत आर्पादच्या वंशजांनी १३०१ मेरेन हंगेरीचेर शेक चलयलो. आर्पाद वंशजांनी आपल्या तिनशें वर्सांच्या काळांत हंगेरीची एक बळिश्ट किरिस्तांव राज्य म्हूण उबारणी केली.

१३०१ त आर्पादच्या निमाण्या राजाक मरण आयल्याउपरांत फुडलीं २२५ वर्सां मेरेन हंगेरी हें एक स्वतंत्र राज्य म्हूण नंदतालें. ह्या काळांतलो चार्ल्स रॉबर्ट हो इटालींतले आंज्यो वंशावळींतलो एक प्रसिद्द राज्यकर्तो आशिल्लो. ताणें १३०८ ते १३४२ मेरेन हंगेरिचेर राज्य केलें. आर्पाद वंशावळिच्या निमाण्या राजा उपरांत हंगेरींत निर्माण जाल्ले तणावाचे परिस्थितीचेर आळो घालून, चार्लसान थंय शांतता प्रस्थापीत केली. पंदराव्या शेंकड्याच्या मध्याक जॉन हंयादी हाणें हंगेरीचें मुखेलपण करून ऑट्टोमन तुर्कांच्यो घुरयो परतून लायिल्ल्यो. १४५८ त हंयावीचो पूत माथियास कोविनस हंगेरीचो राजा जालो. ताच्या वेळार हंगेरिची खूब भरभराट जाली. तशेंच इटालियन प्रबोधनाचें तें मुखेल केंद्रय आशिल्लें. १४९० त माथियासच्या मरणाउपरांत हंगेरींत परतून अस्थिरता आनी तणाव निर्माण जालो. राजशाय दुबळी जावन वरिश्ट घराण्यांतल्या लोकांनी राजकारभाराचीं चडशीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतिल्लीं. त्या तेंपावयलो हंगेरिचो समाज हो मुखेलपणान शेतकामत्यांचो आशिल्लो. ते जमिनदारांखातीर शेतवडींत राबताले. वरिश्ट लोकांचो शेक आयल्या उपरांत ते शेतकामत्यांक आनीक सतावपाक लागले. हाका लागून १५१४ त शेतकामत्यांनी तांचेआड उठाव केलो. पूण वरिश्ट लोकांनी तो मोडून उडोवन, उपरांत ते शेतकामत्यांक गुलामांभशेन वागोवपाक लागले.

सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेक हंगेरिची भौशिक स्थिती खूब इबडिल्ली. हे परिस्थितीचो फायदो घेवन १५२६ त तुर्कांनी हंगेरीचो पराभव केलो. तांणी मध्य हंगेरिचेर आपलो शेक बसयलो. तुर्कांउपरांत ऑस्ट्रियेच्या हेबस्बर्गान सुरवेक हंगेरिचो अस्तंत आनी उत्तरेकडचो भाग ऑस्ट्रियेक जोडलो. उपरांत तुर्कांक धांवडावन ताणें पुराय हंगेरिचेर ऑस्ट्रियेचो शेक बसयलो. उपरांत हेबस्बर्ग घराण्यान हंगेरी लोकांक चड करून प्रोटेस्टंट पंथीय लोकांक वायट वागणूक दिली. हे तांचे सतावणुकेक लागून हंगेरी लोकांनी १७०३ त देशव्यापी उठाव केलो. त्या उठावांत, फ्रान्सिस राकोझील दुसरो हाणें फुडारपण केल्लें. हॅबस्बर्ग घराण्यान १७११ त हो उठाव मोडून उडयलो. पूण उपरांत तांणी साबार येवजणो आंखून भौशिक, अर्थीक आनी राजकीय मळांचेर कांय प्रमाणांत सुदारणा घडोवन हाडल्यो.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवातेक काउंट स्टिफन शेचनी हाच्या फुडारपणाखाला हंगेरी संस्कृतायेचो पुनर्जल्म आनी राश्ट्राभिमान वाडोवपाखातीर चळवळ सुरू जाली. लुइस कोसुत हो १८४० तलो प्रसिद्द समाज सुदारक. सुधारणा चळवळीवांगडा ल्हव ल्हव स्वातंत्र्य चळवळय सुरू जाली. १८४८ त जाल्ले फ्रेंच क्रांतिचो प्रभाव हंगेरी समाजाचेरय पडलो. ऑस्ट्रियेन हंगेरिच्या राजकारणांत खूब बदल घडोवन हाडले. पूण हंगेरी लोकांक आपल्याच शेकातळा दवरले. ऑस्ट्रियेन हंगेरीक पुराय स्वातंत्र्य दिवपाक न्हयकार दिल्ल्यान हंगेरीयन लोकांनी कोसुतच्या फुडारपणाखाला क्रांतिकारी सरकाराची स्थापणूक करून १८४९ त हंगेरीचें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. पूण ऑस्ट्रियेन रशियेच्या पालवान हंगेरी सैन्याचेर हार घालून तांकां परतून आपल्या शेकातळा दवरले. पूण १८५९ त फ्रांस आनी इटली देशांनी मेळून, जाल्यार १८६६ त परसिया आनी इटलीन मेळून ऑस्ट्रियेचो पराभव केलो. हे परिस्थितीचो फायदो घेवन हंगेरीन फ्रांसिस डिक हाच्या फुडारपणाखाल ऑस्ट्रियेच्या सम्राटाकडेन ऑस्ट्रिये इतलेच हंगेरीकय हक्क आसचे म्हूण मागणी केल्ली. उपरांत तांच्यांत कबलात जावन, एकेच राजेशायेखाला दोन देश एकठांय आयले. पूण दोनय देशांखातीर वेगवेगळीं संविधानां आशिल्लीं. ऑस्ट्रिया - हंगेरी रचणुके उपरांत दोनय देशांची खूब उदरगत जाली. हंगेरिच्या अर्थीक, संस्कृतीक आनी शिक्षणीक मळार खूब विकास जालो.

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन आनी विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक वसणूक आनी वेपार सर्त हांच्यावयल्यान युरोपी देशांभितरली दुस्मानकाय वाडत गेल्ली. ऑस्ट्रिया - हंगेरिचोय हे सर्तींत आस्पाव आशिल्लो. १९१४ त बोस्नियेच्या विद्यार्थ्यान ऑस्ट्रिया - हंगेरिच्या वारसाची हत्त्या केल्ली तेन्ना, ऑस्ट्रिया - हंगेरीन आपलो शेजारी देश सर्बीयेक दोशी थारावन ताचे आड झूज उबारलें. उपरांत दोनय देशांच्या इश्ट राश्ट्रांनी एकामेकांआड झुजां उबारलीं. अशे रितीन पयलें महाझूज सुरू जालें (१९१४ - १९१८). ह्या झुजांत जर्मनी,

बल्गेरीया आनी ऑटोमन साम्राज्यान ऑस्ट्रिया - हंगेरीक तेंको दिल्लो, जाल्यार फ्रांस, रशिया, ग्रेट ब्रिटन आनी उपरांत अमेरिकेन सर्बीयेक तेंको दिल्लो.ह्या झुजांत ऑस्ट्रिया - हंगेरी आनी तांच्या इश्ट राश्ट्रांचो पराभव जालो. उपरांत ३ नोव्हेंबर १९१८ दिसा ऑस्ट्रिया - हंगेरिन झूज बंदीची कबलात मान्य केली. १६ नोव्हेंबर १९१८ दिसा हंगेरीयन लोकांनी ऑस्ट्रियेआड उठाव करून हंगेरी हें प्रजासत्ताक म्हूण घोशीत केलें. काउंट मायकल कारोली हो स्वतंत्र हंगेरीचो पयलो राश्ट्राध्यक्ष जालो. पूण मार्च १९१९ त कम्युनिस्ट आनी समाजीक पक्ष एकठांय येवन तांणी युती सरकार घडोवन हाडलें. उपरांत कम्युनिस्ट मुखेली बेला कून हाणें हुकूमशाह ह्या नात्यान राजकारभाराचीं सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. पूण रोमानियेकडच्यान पडिल्ली हार आनी अर्थीक अडचणींक लागून ताचो शेक चड तेंप चलूंक शकलो ना. उपरांत १९१९ त ॲडमिरल निच ओलास होर्थी सत्तेर आयलो. होर्थी हो राजा नासलो तरी राजेशहा ह्या नात्यान ताणें २५ वर्सां हंगेरिचेर शेक गाजयलो. १९२० त हंगेरी आनी ताच्या इश्ट राश्ट्रांनी मेळून ट्रिआनोनची कबलात मान्य करून घेतली. ही कबलात पयल्या महाझुजांत जैतीवंत थरिल्ल्या देशांनी घडोवन हाडिल्ली. ट्रिआनोनचे कबलातीक लागून हंगेरीक आपलो व्हड प्रदेश वगडावंचो पडलो.

पयल्या महाझुजाक लागून देशाची भौशिक आनी अर्थीक स्थिती खूब इबाडिल्ली. ट्रिआनोन कबलातीक लागून तांकां कांय व्हड कारखाने वगडावंचे पडले. जर्मनींत हिटलर सत्तेर आयल्याउपरांत ताणें हंगेरीक आपलेवटेन वळोवन पयल्या महाझुजांत वगडायल्ले सगळे प्रदेश परतून मेळोवन दिवपाचें उतर दिलें. १९३८ त हंगेरीन झेकोस्लावाकिया, रोमानिया आनी युगोस्लाव्हीयाचेर घुरी घालून आपले प्रदेश परतून घेतले. एप्रिल १९४१ त हंगेरीन हिटलराक युगोस्लाव्हीयाचेर घुरी घालपाक तेंको दिवन दुसऱ्या महाझुजांत वांटो घेतलो. १९४३ मेरेन हंगेरीचो शेक दिसान दीस वाडत आसा तें पळोवन हिटलरान हंगेरिचेरय घुरी घाली. हॉर्थी हाका बंदखणींत उडोवन ताणें हंगेरींत नाझी सरकारची स्थापणूक केली. त्यावेळार ताणें हंगेरींतल्या पांच लाखांवयर ज्यू लोकांक जर्मनींत धाडून तातुंतल्या चडशा जाणांक मारून उडयले. १९४४ त सोविएत युनियनान हंगेरींतल्या नाझी सैन्याचो पराभव केलो. १९४५ त हंगेरी आनी जैतिवंत इश्ट राश्ट्रांनी कबलात केली. ते कबलातीप्रमाण हंगेरीन १९३८ मेरेन घेतिल्ले सगळे प्रदेश परत करपाचें मान्य केलें.

दुसऱ्या महाझुजाउपरांत हंगेरींत वेंचणूक जावन हंगेरी प्रजासत्ताक म्हूण घोशीत केलें. ते वेंचणुकेंत कोणाकच भौमत मेळूंक नाशिल्ल्यान युती सरकार अस्तित्वांत आयलें. सरकारांत स्मालहोल्डर ह्या पक्षाचो शेक आशिल्लो. पूण सोविएताचें सैन्य थंय आशिल्ल्यान तांच्या आदारान उपरांत हंगेरी सरकारांत कम्युनिश्टांनी आपलो शेक बसयलो. १९४७ चे वेंचणुकेंतय कम्युनिस्टांक भौमत मेळोवपाक अपयश आयलें. पूण तोमेरेन तांणी सोविएताच्या आदारान देशांतल्या व्हड व्हड हुद्द्यांचेर आनी म्हत्वाच्या जाग्यांचेर आपली नेमणूक करून घेतिल्ली. १९४९ त कम्युनिस्टांनी देशांतले हेर पक्ष बेकायदेशीर थारावन पुराय सत्ता आपल्या हातांत घेतली. सोविएत युनियनाचे धर्तेचेर तांणी हंगेरीखातीर नवें संविधान आपणायलें. कम्युनिस्ट पक्षाचो मुखेली माथायस राकोसी हाणें सगळी सत्ता आपल्या हातांत घेवन, आपली हुकूमशाय राजवट सुरू केली. पूण ताणें आपणायल्ल्या येवजण्यांचेर अर्थीक आनी भौशिक स्थितींचेर वायट परिणाम जाल्ल्यान पुराय देशांत तंग वातावरण निर्माण जालें. देखून १९५३ त राकोसीचे सुवातेर इम्रे नॉगी हाची राश्ट्राध्यक्ष म्हूण नेमणूक केली. नॉगीन कांय सुदारणा चळवळी चालीक लावन, हंगेरी लोकांक कांय प्रमाणांत स्वातंत्र्य दिलें. पूण सकोसी आनी पक्षाच्या हेर वांगड्यांक ही गजाल मानवली ना. राकोसीन १९५५ त नॉगीक सत्तेभायरो करून परतून पुराय सत्ता आपल्या हातांत घेतली. पूण ताणें आपणायल्ल्या येवजण्यांक लागून लोकांत परतून असंतोश निर्माण जावन, तांणी १९५६ त देशव्यापी क्रांती घडोवन हाडली. नॉगी परतून राश्ट्राध्यक्ष जालो. पूण सोविएत युनियनान व्हड सैन्य धाडून तो उठाव मोडून उडयलो. शेंकड्यांनी हंगेरी लोकांक मारून उडयले वा बंदखणींत घाले, जाल्यार सुमार दोन लाखांवयर लोक देश सोडून गेले. नॉगी आनी ताच्या सांगात्यांक दोशी थारावन १९५८ त तांकां मरणाची ख्यास्त फर्मायली.

क्रांती उपरांत सोविएत युनियनान हंगेरीवयलो आपलो शेक आनीक घट्ट केलो. जानोस कदार हो कम्युनिस्ट पक्षाचो मुखेली नवो राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताणें देशांत शांतताय हाडपाखातीर लोकांक कांय प्रमाणांत स्वातंत्र्य दिलें, तशेंच नव्यो अर्थीक येवजण्योय आंखल्यो. सुरवेक लोकांच्या राहणीमानांत खूब सुदारणा जाली. पूण १९७० त देशाची अर्थीक स्थिती परतून इबाडली. १९८८ त कॅरोली ग्रोझ हंगेरिचो नवो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९८८ चे निमाणेकडेन मिक्लोस नॅमेथ हाची राश्ट्राध्यक्ष म्हूण नेमणूक केली. १९८९ त संविधानांत सुदारणा घडोवन लोकांक आनीक स्वातंत्र्य दिलें. हेर पक्षांकय मान्यताय दिल्ली. १९९० त जाल्ले वेंचणुकेंत साबार पक्षांनी वांटो घेतिल्लो. तातूंत हंगेरियन डॅमोक्रेटीक फोरम ह्या पक्षाक भौमत मेळ्ळें. आर्पाद गोंझ हो हंगेरिचो नवो राश्ट्राध्यक्ष जालो.

**राज्यवेवस्था :** कम्युनिस्टांची राजवट आशिल्ली तेन्ना तांणी हेर सगळे पक्ष बेकायदेशीर थारावन म्हत्वाचे हुद्दे आपलेकडेन दवरिल्ले. पूण १९८८ सावन कम्युनिस्ट विचारसरणेक हंगेरी लोकांनी खर विरोध परगटायल्ल्यान कम्युनिस्टांक देंवती कळा लागली. १९८९ त कम्युनिस्टांनी आपल्याक समाजवादी म्हूण घोशीत केले. त्याच वर्सा नवें संविधान तयार करून हंगेरीन भौपक्षीय लोकशाय

पद्दत आपणायली. १९९० त भौपक्षीय वेंचणूक जावन तातूंत हंगेरीयन डॅमोक्रेटीक पक्षाक भौमत मेळ्ळें.

हंगेरीची संसद एक सदनी आसून तिका नॅशनल ॲसेंबली अशें म्हण्टात. संसदेंतल्या वांगड्यांक भौशिक मतदानान चार वर्सांखातीर वेंचून काडटात. राष्ट्राध्यक्ष हो देशाचो मुखेली. काउंसीलाच्या वांगड्यांची नेमणूक विधानसभा करता. प्रधानमंत्री हो काउंसिलाचो अध्यक्ष.

राज्यकारभार वेवस्थीत चलचो म्हूण देश १९ प्रांतांनी (Countries) आनी ६ शारांनी विभागला. त्या त्या प्रांताचो वा शाराचो राज्यकारभार चलोवपाखातीर खाशेलें काउंसिल आसता. भौशिक मतदानान काउंसिलच्या वांगड्यांक चार वर्सांखातीर वेंचून काडटात.

**अर्थीक स्थिती :** दुसऱ्या महाझुजापयलीं हंगेरीची अर्थवेवस्था मुखेलपणान शेतवडीचेरय आदारिल्ली. पूण उपरांत कम्युनिस्टांनी देशांत आपलो शेक बसोवन हंगेरीची पुराय अर्थवेवस्था आपल्या हातांत घेतली. तांणी सोविएत युनियनच्या आदारान व्हड व्हड उद्देग सुरू केले. हंगेरिची अर्थवेवस्था घट्ट करपाखातीर १९६८ त कम्युनिस्टांनी 'न्यू इकोनोमीक मॅकानिझम' ही येवजण आंखली. सुरवेच्या काळांत हे येवजणेखाल देशाची खूब भरभराट जाली आनी लोकांचो रावपाचो दर्जोय वाडत गेलो. पूण उपरांत म्हारगाय आनी वेपारी तूट वाडत गेल्ल्यान १९८० त ही येवजण बंद केली. १९९० त कम्युनिस्टांची राजवट काबार जाल्याउपरांत नव्या सरकारान अर्थवेवस्थेंत सुदारणा घडोवन हाडपाखातीर नव्यो येवजणो चालीक लायल्यात.

हंगेरीन उद्देगीक मळाचेर झोपय मारिल्ली आसली तरी, आयज लेगीत थंय शेतवडीक खूब म्हत्व आसा. शेतकी उत्पन्नांत वेगवेगळ्या पिकावळीचो ६0% जाल्यार, पशुपालनाचो ४0% आस्पाव जाता. मको, बटाट, द्राक्षां, शुगर बीट आनी गंव हीं हांगाचीं मुखेल पिकां. पशुपालनांत कुकडां आनी दूकर पोसपाच्या वेवसायाक चड प्राधान्य दिलां.

हंगेरिचे भुंयेंत वेगवेगळ्या खनिजांचे सांठे आस्पावल्यात. तातूंत फांतरी कोळसो, लोखण, मॅंगनीज, सैमीक वायू आनी खनिज तेलांचो आस्पाव जाता. बॉक्सायट हें देशांतलें चड म्हत्वाचें खनिज. मॅसेक पर्वताचेर युरेनियमचे सांठे सांपडल्यात.

देशांतले चडशे व्हड उद्देग राज्य सरकाराच्या नियंत्रणाखाल चलतात. कम्युनिस्टांची राजवट सोंपल्या उपरांत खाजगी उद्देग वाडत आसा. हंगेरींतल्या मुखेल उद्देगांत लोखण, तिखें, बसी आनी रेल्वे बांदप, तशेंच विद्युत् आनी इलेक्ट्रोनीक सामान, अन्न प्रक्रिया, वखदां, लुगट हांचो आस्पाव जाता.

हंगेरीचे अर्थवेवस्थेचो व्हड वांटो परकी वेपाराचेर आदारून आसा. आधुनिक मशिनां, मोटारी, कोळसो, कापूस, विद्युत् शक्ती, सारें, लोखणी म्हाल आनी तेल हांची व्हड प्रमाणांत आयात जाता. जाल्यार ॲलुमिनां, वखदां, प्रक्रिया केल्ले अन्न पदार्थ, सोरो आनी तिख्याची निर्यात जाता.

**येरादारी आनी संचारण :** रस्ते आनी रेल्वेमार्गांचेर खूब सुदारणा जाल्या. रेल्वे येरादारी राज्य सरकाराचे देखरेखीखाल चलता. न्हंयांतल्यान आनी कालव्यांतल्यान व्हड प्रमाणांत उदका येरादारी जाता. बुडापेस्ट शारा भायर आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसा.

**लोक आनी समाजजीण :** हंगेरींत वेगवेगळ्या वंशाचे कांय पंगड आसात. तातुंतलो मागियार हो सगळ्यांत व्हड. वट्ट लोकसंख्येंतले सुमार ९५% लोक मागियार पंगडाचे. जिप्सी, जर्मन, स्लोव्याक, क्रोयेट्स आनी रोमानी हे हंगेरींतले हेर म्हत्वाचे वंश. दुसऱ्या महाझुजाउपरांत जाल्ल्या उद्देगीक विकासाक लागून हंगेरींतले खूबशे लोक शारांत रावपाक गेल्यात. सॉकर हो हंगेरींतलो लोकप्रसिद्द खेळ. बास्केटबॉल, वॉलिबॉल, पेंवप ह्या सारकिल्ल्या इंडोअर खेळांखातीरय ताची नामना आसा.

हंगेरींतले सुमार दोन - तृतीयांश लोक रोमन कॅथलीक, जाल्यार एक चतुर्थांश लोक प्रोटेस्टंट आसात. रिफॉर्मड चर्च आनी ल्युथरान चर्च हे प्रोटेस्टंट पंथांतले व्हड पंगड. हेर लोकांत बायझान्टन रायटचे कॅथलीक, ज्यू आनी युनिटॅरियन हांचो आस्पाव जाता. कम्युनिस्टांचो शेक सोंपल्या उपरांत हंगेरी सरकारान आपल्या लोकांक पुराय धर्मीक स्वातंत्र्य दिलां.

मागियार (हंगेरीयन) ही देशाची राजभास आसून देशभर तिचो व्हड प्रमाणांत् वापर जाता. पूण कांय अल्पसंख्यी पंगड आजूनय आपल्यो थळाव्यो भासो उलयतात. शिक्षणीक मळाचेर खूब उदरगत जाल्ली आसून, हंगेरींतल्या लागीं लागीं सगळ्या प्रौढ लोकांक वाचपा - बरोवपाक येता. ६ ते १६ वर्सां पिरायेच्या सगळ्या भुरग्यांक शिक्षण कायद्यान सक्तीचें आसा. देशांतल्यो सगळ्यो शिक्षणीक संस्था सरकाराच्या नियंत्रणाखाल चलतात. हंगेरींत वेगवेगळीं अशीं तिसांवयर दिसाळीं उजवाडा येतात.

बुडापेस्ट, मिसकोल्क, डॅब्रेसेन, पॅक्स, स्झेड, जिओर, एठार, बॅकेस्काबा, टाटाबेन्या, कापोस्वार, कॅक्सकॅमेट हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं शारां.

- कों. वि. सं. मं.

**हंपी :** एक पुराणीक आनी इतिहासीक क्षेत्र. तें कर्नाटकांतल्या बेल्लारी जिल्ह्यांत आसा. ह्या क्षेत्राकडल्यान तुंगभद्रा न्हंय व्हांवता. हांगा लागसारच रामायणांतलें किष्किंधा थळ आसा. हांगाच्यान चार कोसांच्या अंतराचेर पंपा तळें आसा. हंपी हें पंपाचें कन्नड अपभ्रंश रूप आसा. हांगाचो जो मुखेल देव विरूपाक्ष ताका पंपापती अशें म्हण्टात.

रामायण काळांत हो वाठार वाली - सुग्रीवांच्या राज्यांत आशिल्लो. किष्किंधेंत वानरांचे जायते वाडे आशिल्ले. ताचे भोंवतणी वानरांनी जायते तट बांदिल्ले. ह्या थळाची म्हायती अशी आसा - सीतेक रावणान व्हरतकच, राम दक्षिणेवटेन वता आसतना पंपा तळयाचेर हनुमंताची आनी ताची भेट जाली. त्या रिवणाक हनुमंत रामाचो दास जालो. ताणेंच फुडें अग्नीचे साक्षीन राम आनी सुग्रीवाची इश्टागत घडोवन हाडली. फुडें ह्याच सुग्रीवाच्या अठरा पद्म वानरदळाच्या आदारान रामान लंकेचेर घुरी घाली.

इ.स. १४ व्या शतमानांत हांगा विजयनगरच्या राज्याची राजधानी स्थापन जाली आनी हांगा हिंदू साम्राज्याची बुन्याद घालपांत आयली. विजयनगरचें पयलें नांव विद्यानगर अशें आशिल्लें. हरिहर आनी बुक्क हांणी हांगा राजधानी स्थापून तिका आपलो गुरू विद्यारण्यस्वामी हांच्या नांवावयल्यान विद्यानगर अशें नांव दिलें. फुडें हांगा विजयनगरचें राज्य स्थापन जातकच ह्या नगराक विजयनगर अशें म्हणूंक लागले.

बुक्क - हरिहरांनी चवदाव्या शतमानासावन फुडें अडिचशें वर्सां ह्या वाठाराचेर राज्य केलें. ह्या काळांत ह्या साम्राज्यान आपल्या दुस्मानांचेर बरो धाक दवरिल्लो. सद्या दक्षिणेंत जें स्थापत्य, जें कलावैभव पळोवंक मेळटा तें सगळें म्हळयार विजयनगर साम्राज्याची एक आगळीच जोड म्हणूं येता.

हॉस्पेट स्टेशनावयल्यान हंपी हो वाठार सात - आठ मैलांचेर आसा. ह्या शाराचो घेर २४ मैलांचो आसा. ह्या वाठारांत सद्या इतिहासीक राजधानीचे भग्नावशेश पळोवंक मेळटात. आपल्या गुरूचे यादीक राजा हरिहरान बांदिल्लें विरूपाक्षाचें देवूळ हें हांगाचें सगळयांत म्हत्वाचें आसा. फुडें कृष्णदेवराय राज्यार येतकच ताणें ह्या देवळामुखार १६५ फूट उंचायेचें आनी ११ माळयांचें गोपूर बांदलें. ताच्या वाठारांत आनीकय ल्हान - व्हड देवळां आसात. मुखेल देवळाचेर भांगराचो कळस आसा. विरूपाक्ष हें शिवलिंग आसा. ह्या देवळालागसार विद्यारण्यस्वामीचो मठ आसा. चैत्रांत धा दीस हांगा महोत्सव आसता. पुनवे दिसा हांगां रथोत्सव जाता. देवळांतली सगळी वेवस्था मठावरवीं पळोवप जाता.

कृष्णदेवराय हाणें बांदिल्ल्यो वास्तू पळोवपासारक्यो आसात. दसेरा डिब्बा हो ताच्या सिंहासनाचो चौथरो म्हळयार हंपीचो एक नामनेचो अवशेश. कृष्णदेवरायान कलिंगविजयाचे यादीक तो बांदिल्लो. ह्या चौथऱ्याचे वण्टीचेर सोबीत अशी चित्रकला आसा.

हांगाचें दुसरें म्हत्वाचें स्थान म्हळयार विठ्ठलस्वामीचें देवूळ. हाची गर्भकूड, मंटप आनी अर्दमंटप अशे तीन भाग आसात. एकसंधी बारा फुटाचे छापन्न खांबे ह्या अर्दमंटपाक तोलून धरतात. ह्या खांब्यांवयलें कोरीव काम पळोवपासारकें आसा. ह्या देवळाच्या आवारांत सोबीत असो पाशाणाचो रथ आसा, जो हंपीचे शिल्पकलेचो एक आगळो वेगळो दुवो म्हणूं येता.

हांगाचें कृष्णदेवरायान खास राजमंडळीखातीर बांदिल्लें हजारा देवूळ, तशेंच राणयेचें न्हाणीघरय पळोवपासारकें आसा. हांगाचो सगळयांत व्हड देव म्हळयार नरसिंह. ताची उंचाय सुमार धा हात आसतली. ताचे तकलेर नागफणेचें छत्र आनी ताचे वयर कीर्तिमुख आसा. हंपींत ऋष्यमूक नांवाचो एक पर्वत आसा जाका लागून तुंगभद्रा न्हंयेक धोणवा आकार आयला. हे न्हंयेकडेनच चक्रतीर्थ आसा आनी तिचे देगेर एक ऊंच काळया पाशाणाच्या कोदंड रामाचें देवूळ आसा.

तुंगभद्रेचे पलतडीन आनेगुंदी नांवाच्या गांवालागसार पंपा तळें आसा. ताचे अस्तंतेक जायतीं पोरनीं देवळां आसात. थंयच लागसारचे व्होंवरींत श्रीरंग आनी सप्तऋषी हांच्यो मूर्ती आसात. ह्याच पर्वताचे तेंगशेर शबरी व्होंवरी आसात. पंपा तळयासावन एका मैलाच्या अंतराचेर अंजनी पर्वत आसून ताचेर आशिल्ले एके व्होंवरेंत अंजनी आनी मारूतीच्यो मूर्ती आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**ह :** देवनागरी लिपयेंतलो तेत्तिसावो वर्ण. ह्या वर्णाच्यो पांच अवस्था मेळटात. पयलीं अशोकाच्या गिरनार हांगाच्या शिलालेखांत, दुसरी महाक्षत्रप शोडास (सनआदीं पयलें शतमान) हाच्या वेळच्या मथुरा हांगाच्या जैन लेखांत, तिसरी क्षत्रपवंशी राजा रुद्रदामन (इ.स.चें दुसरें शतमान) हाच्या गिरनारच्या शिलालेखांत, चवथी अप्सदच्या लेखांत आनी निमाणी इ.स.च्या इकराव्या शतमानांतल्या उजैनीच्या लेखांत दिसून येता.

'ह'चो विकासक्रम असो -



ह्या वर्णाचें स्वरूप अशें -

हकारं शृणु चार्वङ्गि चतुर्वर्गप्रदायकम् ।
कुण्डलीद्वयसंयुक्तं रक्तविद्युल्लतोपमम् ।
रजःसत्त्वतमोयुक्तं पञ्चदेवमयं सदा ।
पञ्चप्राणात्मकं वर्णं त्रिशक्तिसहितं सदा ।
त्रिबिन्दुसहितं वर्णं हृदि भावय पार्वति । (कामधेनुतंत्र)

**अर्थ -** हे चारूगात्री पार्वती, हकार हो चतुर्वर्गप्रदायक, कुंडलीद्वयान युक्त, तांबडे विद्युल्लतेप्रमाण, सत्त्वरजतमयुक्त, सदांच पंचदेवमय, पंचप्राणात्मक, त्रिशक्तिसयत, त्रिबिंदुसयत असो वर्ण आसा, हें लक्षांत दवर.

कंठ हें हाचें उच्चारणस्थान.

- कों. वि. सं. मं.

**हज :** मुसलमानांचें एक धार्मिक कर्तव्य. ह्या अरबी उतराचो अर्थ प्रस्थान दवरप वा दिशेक बागवप असो जाता. पूण वेव्हारांत मात ताचो अर्थ मक्केची यात्रा असो जाता. ही यात्रा हिजरी वर्साच्या बाराव्या म्हयन्यांत (झू - अल - हिज्जह) करपाची आसता. इस्लाम धर्मांतले जे मुखेल आचार आसात तातुंतलो पांचवो आचार म्हणजेच धार्मिक कर्तव्य, मक्केची यात्रा करप हो आसता.

जिवितांत एक खेप तरी मक्केक वचून येवप हें दर एक मुसलमान आपलें कर्तव्य तशें ध्येय समजता. महंमद पैगंबराची तशी आज्ञाच आसा अशी ताची धारणा आसा. सगळेकडेन एकच देव आसून महंमद हो ताचो दूत आसा असो जाचो पुराय भावार्थ आसा, जो सद्दां पांच खेप नमाज वाचता, जो रमझानाचो म्हयनोभर रोजे (उपास) पाळटा, जो कोणाक देणें ना, जाणें आपल्या कुटुंबाच्या निर्वाहाची सगळी तजवीज करून दवरल्या, जो घुंवळे वखदां घेना, निशिध्द पदार्थ खायना, जो आपल्या दुसमानांक सदांच भोगशीता, जो आपल्या चुकांखातीर भोगसणी मागता, जो देव आनी शेजारी हांचे बाबतींत आपल्या हातांतल्यान कळत नकळत कांय पाप घडिलें आसत म्हण पश्चाताप करता, असोच मुसलमान मक्केचे यात्रेखातीर योग्य समजतात.

जे मुसलमान कसलेय अडचणेक लागून मक्केक वचपाक शकनात तांणी एकाद्र्या गरीब यात्रेकरुचो खर्च करचो असो नेम चालींत आसा.

दर एका हज यात्रेकरून मक्केचे यात्रेच्या वेळार तीन गजाली करपाच्यो आसतात, त्यो अशो - १) इहराम : एक कमराक आनी एक खांद्यार असो दोन वस्त्रांचो भेस. २) अरफात : एका दोंगराची यात्रा करप आनी ३) तवाफ : काबाच्या फातराक भोंवताडो घालप.

मक्केक वचपी दर एका रस्त्याचेर ५-६ मैल आयल्यान मीकात नांवांचो एक थांबो आसता. थंय पावले उपरांत यात्रेकरू न्हाण आनी मागणें करून इहराम घालतात. तीं वस्त्रां घालून यात्रेकरू हजचो संकल्प करतात. यात्रेच्या काळांत तांणी दुसरे कपडे घालपाचे नासतात. तशेंच केंस आनी नाखटां कापप. तकलेक तेल लावप आनी बूट वा जोतें घालप हाचेर बंदी आसता.

मक्केंत पावतकच मशिदींत हात - पांय, तोंड धुवन यात्रेकरू थंयच्या काळया पाशाणाचो उमो घेतात. मागीर काबाक सात भोंवताडे घालतात. हे भोंवताडे उजवेवटेच्यान दावेवटेन घालपाचे आसतात. ताचे उपरांत मकामू इब्राहीम ह्या स्थानाचेर वचून मागणें करतात. परत येवन आनीक एक फावट काळया पाशाणाचो उमो घेतात.

अस् - सफा आनी अल् - मरवा नांवाच्यो दोन दोंगुल्ल्यो मक्केलागीं आसात. ह्या दोनय दोंगुल्ल्यांची आळीपाळीन सात खेप यात्रा करप हें हज यात्रेंतलें एक कर्तव्य आसता. सातव्या दिसा खुत्बा श्रवण करून आठव्या दिसा मिना हांगा वचून रावतात. णवव्या दिसा अरफातची यात्रा करतात. धाव्या दिसा बळी ओंपतात. देवाच्या नांवान उंट, बैल, बोकड वा मेंढरो असो एक तरी पशू बळी दिवंचो असो नेम आसा. त्याच दिसा इद - अल् - अझ हो सण मनयतात. निमाणें मिना हांगा परत येवन थंयच्या तीन खांब्यांचेर प्रत्येकी सात फातर उडयतात.

अशे तरेन सगळे यात्रा विधी सोंपले उपरांत केंस आनी नाखटां कापतात. इहराम काडून सदचे कपडे घालतात. काबाक निमणो भोंवताडो घालून झम् झम् बांयचें उदक पियेतात. मागीर परतुपाचे वाटेर अल् मदीना हांगा वचून महंमद पैगंबराच्या कबरीचें दर्शन घेतात. हज करप्याक हाजी ही पदवी फाव जाता. तशेंच ताका पुण्यवान म्हण्टात.

हिंदुस्थान ते मक्का हो प्रवास कश्टदायक आसूनय, दर वर्सा शेंकडयांनी यात्रेकरू ते यात्रेक वतात. चडशे लोक मुंबय वा कलकत्ताच्यान बोटीन दर्यांतल्यान प्रवास करतात. ह्या यात्रेकरुंच्यो सुखसोयी आनी प्रवासा संबंदी भारत सरकाकडसून आलाशिरो मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : मक्का

**हडप्पा :** पंजाबांतल्या मॉंटगोमेरी जिल्ह्यांत रावी न्हंयेचे देगेर आशिल्लें खूब पुर्विल्लें स्थळ. ह्या गांवालागसार सिंधुसंस्कृतीचे अवशेश पयलीं मेळ्ळे. इ.स. १८२६ वर्सा मेसन नांवाच्या इंग्लीश मनशान ही सुवात पयलीं पळेली. उपरांत इ.स. १८३१ त कर्नल बर्न हो इंग्लंडच्या राजाचो दूत म्हणून महाराजा रणजितसिंहाकडेन लाहोराक गेल्लेकडेन ताणें हडप्पा गांवाकडले भग्नावशेश पळयले. तांकां थंय सुमार तीन मैलांच्या परिघांत ते अवशेश दिसले. तेभायर एक पडकी गढीय दिसली. उपरांत लाहोर - मुलतान लोहमार्ग तयार करपाखातीर ठेकेदारांनी हडप्पालागसारच्या राशींतल्यान भरपूर विटो काडून व्हेल्ल्यान थंयच्या पुर्विल्ल्या अवशेशांचो नाश जालो. थंय आशिल्ली गढीय पुराय नश्ट जाली. १९२० - २१ त श्री दयाराम सहानी हाणें थंय पयलें उत्खनन केलें. तेमेरेन थंय विटांची लूट चालूच आशिल्ली आनी कनिंगहॅमान वर्णिल्लीं कांय बांदकामांय ना जाल्लीं.



नर्तकी

हांगाच्या भग्नावशेशांत एक दूर्ग आसून ताच्या मुखार एक नगर आसा. ताची लांबाय १५०० फूट आनी रुंदाय ८०० फूट आसा. दुर्गाचो तट ४५ फूट रूंद आनी तितलोच ऊंच आसा. तातूंत प्रत्येक कडेन बुरूज आशिल्ले. दुर्गाच्या भितर ऊंच चबुतऱ्याचेर घरां बांदिल्लीं आशिल्लीं.



घरांतली बांय

दुर्गाचे उत्तरेक न्हंयेमेरेन जायत्या घराचे अवशेश आसात. तातूंत ल्हान घरां, धान्य कांडपाचे चबुतरे, धान्याचें कोठार आदी प्रकार दिसून येतात. थंय लागसारच मडीं पुरपाचो जागो मेळ्ळो. जंय जायत्यो अस्थी एकठांय पुरिल्ल्यो मेळ्ळयात. कांय कडेन तर मड्यावांगडा अलंकार, आयदनां ह्योय वस्तू दवरिल्ल्यो मेळ्ळयात.

हांगाच्या उत्खननांत हजारांनी मुद्रा, मातयेचीं खेळणीं, रुपें, पाशाण आदींचे मणी, तरेकवार चितरायल्लीं मातयेचीं आयदनां, तशेंच शंख आनी हस्तिदंताच्यो वस्तू मेळ्ळयात.

हडप्पा ही सुवात पुर्विल्ल्या मद्र देशांत आसुंये. ताची राजधानी शाकल (सियाल कोट) रावी आनी चिनाब ह्या न्हयां मदीं आशिल्ली. महाभारतांत ह्या वाठारांतल्या लोकांक वाहीक म्हळयात. सिकंदरान घुरी घाल्ली तेन्ना ताका तोंड दिवपी ते कठ लोक हेच. सद्या ताका कठिया ह्या नांवान वळखतात. रावी न्हंयेचे देगेर हडप्पा वाठारांत तांची वसणूक आसा.

पुर्विल्ल्या काळांत हांगा हरपाल नांवाचो एक दुराचारी राजा राज्य करतालो. ताच्या करण्यांक लागून दैवी कोप जालो आनी एके रातींत ताचें नगर नश्ट जालें, अशी दंतकथा आसा. त्या राजाच्या नांवावयल्यानच त्या नगराक हरपाल हें नांव मेळ्ळें आनी ताचेंच भ्रश्ट रूप हडप्पा जालें अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**हत्ती :** सस्तन वर्गांतलो एक रानवटी चार पांयांचो प्राणी. हाका पुराणांत गज, नाग, करी, हस्ती, वारण, मातंग, दन्ती, कुंजर, द्विरद अशीं नांवां आसात.

हत्तीचो देह सगळे मोनजातीमदीं व्हड आसून, ताची उंचाय १० ते १३ फूट आनी वजन ५ ते ६ टन इतलें आसता. दोळे बारीक आनी कान सुपावरी आसतात. ताचें नाक आनी वयलो ओंठ मेळून सोंड जाता. सोंडीची लांबाय ६ फूट आसून ती घटमूट आसता. ती संवेदनाक्षम आसून, तिच्या आदारान हत्ती उस्वास घेता, वास आनी रूच घेता. तिच्या आदारान तो उदक आनी अन्नय तोंडांत घेता.

ताचे कान आनी नाक तिक्ष्ण आसता. तोंडांत चार दांत आसतात. नर हत्तीक दोन सुळे सोंडीच्या दोनय वटांतल्यान भायर आयिल्ले आसतात. त्या सुळयांची लांबाय ७ ते १२ इंच आसूं येता. मादीक मात सुळे नासतात. कांय नर हत्तीकय सुळे नासतात, तांकां मुकणे हत्ती म्हण्टात. ते चड शक्तीवान आसतात. तांचे पांय खूब मोटे आसून ते खांब्यावरी आसतात. सादारणपणान तांचो रंग काळसर आसलो तरी कांय हत्ती धव्या रंगाचे आसतात. ते धांवपाक हुशार आसतात.

सिंधुसंस्कृतायेच्या अवशेशांत हत्तीच्यो आकृत्यो सांपडल्यात. वैदिक वाङ्मय, ऋग्वेद, यजुर्वेद, बौध्द वाङ्मय, रामायण - महाभारतांत हत्तीचो उल्लेख मेळटा.

हत्ती रानांनी व्हडले कळप करून रावतात. एका कळपांत ३० - ६० हत्ती आसतात. तातूंत नर, मादी, तरणाटे, म्हातारे अशे सगळ्या पिरायेचे हत्ती आसतात. तांचो एक मुखेली आसून ताचे नेम सगळे हत्ती पाळटात. तांचीं उदक पिवपाचीं आनी विसव, अन्न घेवपाचीं ठिकाणां थारील्लीं आसतात. ते चडकरून ऊंच झाडांच्या दाट रानांत आनी १०,००० फूट उंचायेच्या दोंगरा वाठारांनी भोंवतात. ब्रह्मदेश, मलाया, सुमात्रा, बोर्निओ, इंडोनेशिया, थायलँड आनी आफ्रिकेंतल्या थियोपिया, केनिया, युगांडा ह्या प्रदेशांत हत्ती चड प्रमाणांत मेळटात.

भारतांत हिमालयाच्या देंवतेवयल्या काश्मीर ते आसाम



ह्या प्रदेशांतल्या दाट अरण्यांनी आनी म्हैसूर प्रदेशांतल्या रानांत हत्ती पळोवंक मेळटात. भारतांतल्या हत्तीचो रंग काळसरच आसता. ब्रह्मदेश, सयाम ह्या देशांत धवे हत्ती आसात.

हत्ती हो पुराय शाकाहारी आसा. तो तण, झाडांचीं मुळां, ताळे, (खांदयो) पानां, केळीचे खुंट, ऊंस खाता. हत्ती हो मुळांत रानटी पशू आसलो तरी खूप आदीं सावन तो मनशाचो पाळीव प्राणी जावन राविल्ल्याचें दिसता. ताची आचार शक्त, ताचो शाकाहारी आहार आनी ताचो शांत, अहिंसक स्वभाव हाका लागून खूब आदीं सावन मनशान ताका आपलो साथी मानला आनी ताचेकडल्यान सेवा करून घेतल्या.

रामायण - महाभारताच्या काळासावन आधुनिक युगाचे सुरवेक मेरेन एक सुखासीन आसन म्हणून हत्तीचो उपेग जायत आयला. उत्सवांचे मिरवणुकेंत तशेंच झुजामळार हत्तीचें आसन म्हणून व्हड प्रमाणांत वापर जाला. कांय राजांकडच्या झुजाबळांनी हत्तीदळाक खाशेलें म्हत्व आसतालें. हत्तींचेर बसून खाशेलीं झुजां खेळप जातालीं. तेभायर तोफो, दारुगुळो अशी झुजासामुग्री हाड - व्हर करपाकय हत्तींचो व्हड वांटो आसतालो. हत्तींच्या आचार शक्तींचो वापर करून व्हड व्हड रूख मोडपाचें तशें रुखाचे कुडके एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार व्हरपाचें अवघड काम हत्तीकडल्यान करून घेवपाची संवसार भर परंपरा आसा. आजय दाट जंगलांनी जंय हेर वाहनां पावंक शकनात अशा सुवातींनी जड वस्तू हाड - व्हर करपाचें काम हत्तीकडल्यान करप जाता. कांय हत्तींक खाशेलें प्रशिक्षण दिवन, मनरिजवणेच्यो कसरती हत्तींकडल्यान सर्कशींत करून घेतात. तेभायर हत्तीच्या सुळयांपासून हस्तीदंती कलाकुसरीच्यो वस्तू तयार करतात आनी भारतांत तशेंच भारता भायर अशा वस्तूंक मोलाची मागणी आसा.

**सांस्कृतिक संदर्भ :** शकुनशास्त्राप्रमाण रानांत कसलेय स्थितींत गजदर्शन शुभ मानिल्लें आसा. हत्तीचे गुणदोश, ताचीं शुभाशुभ लक्षणां, ताचें दंतदर्शन, मद दर्शन, ताचें चीत्कारप आनी हेर क्रियाकलाप ताचो रंग, आकार हांचेवयल्यान शुभाशुभ फळांचें वर्णन जायत्या ग्रंथांनी मेळटा.

**गजपुजा :** शिवान रागाच्या भरांत गणपतीचें मस्तक (तकली) कापलें आनी पार्वतीचो राग थांबोवपाखातीर ताणें गणपतीच्या कुडीक हत्तीचें शीर लावन ताका (गणपतीक) जीवो केलो. ताकालागून हत्तीचें माहात्म्य वाडून तो पूजनीय जालो. हत्तीचो मुळ जनक ऐरावत हो इंद्राचो वाहक आनी कुपांचो राजा. ऐरावत कुपांक वोडून घेता आनी इंद्र पावस घालता. हत्तीक लागून पावस पडटा म्हणून तो पूज्य मानला. नेपाळांतले नेवार लोक कार्तिक शुध्द द्वितीयेक हत्तीची पुजा करतात. हत्ती हें गणेशाचें प्रतिक आनी त्या लोकांचें कुलदैवत आसा. बौध्दलोकय हत्तीक गौतम बुध्दाचें प्रतिक म्हणून पूज्य मानतात.

**कलाक्षेत्रांतलो हत्ती :** पुर्विल्ल्या काळासावन चित्रकलेंत हत्तीक विशेश स्थान प्राप्त जाल्लें आसा. गणपती, लक्ष्मी, इंद्र, गौतमबुध्द ह्या देवताकडे ताचो चड संबंद आसा.

वेरूळ, महाबलिपुरम, बादामी सांची हांगाच्या शिल्पांत गजलक्ष्मीचीं शिल्पां पळोवंक मेळटात. दोन हत्ती लक्ष्मीदेवीक आपल्या सुवर्ण कळशांतल्यान जलाभिशेक करतात. हे समृध्दीचें प्रतिक मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**हनुमान :** एक देव. रामायणांतलो एक मुखेल रामभक्त वानर. ताका मारुती आनी बजरंग अशींय नांवां आसात. वाल्मीकिरामायणांत हाचें चरित्र तीनकडे आयलां. किष्किंधा कांडांत जांबवानान हनुमानाचें चरित्र सांगलां तें अशें - पुंजिकस्थला नांवाची एक सोबीत श्रेश्ठ अप्सरा आशिल्ली. ऋषीच्या शापान ती वानर योनीत जल्माक आयली. आपले इत्सेप्रमाण रूप घेवपाचें सामर्थ्य तिका आशिल्लें. महात्मा कुंजर नांवाच्या वानराची ती धूव. उपरांत ती केसरी वानराची अंजना नांवाची बायल जाली. अंजना एक दीस सुंदर बायलेचें रूप घेवन पर्वताचेर भोंवतना वायून तिका पळयलें आनी तो तिचेर भाळ्ळो. ताणें तिचे कडे आपलें तेज दवरलें आनी तिका वीर्यवान आनी बुध्दिसंपन्न पूत जातलो असो वर दिलो. तेप्रमाण अंजना एके गुहेंत बाळंत जाली. तिका महाधैर्यवान, महातेजीश्ट, महाबळिश्ट आनी महापराक्रमी पूत जालो, तो हनुमान. ताणें निकतोच उदेल्ल्या सुर्याक पळेलो आनी तें फळ समजून, तें घेवपाखातीर ताणें उडी मारली. तें पळोवन इंद्राक राग आयलो आनी इंद्रान ताचेर वज्र शेवटीलें ताका लागून ताची दावी हनू मोडली. तेन्नासावन तो हनुमान ह्या नांवान प्रसिद्द जालो. आपल्या पुताचेर वज्र मारिल्ल्याचें पळोवन वायूक राग आयलो. ताणें वारें बंद केलें. ताका लागून देव भियेले आनी वायूक



प्रसन्न करपाखातीर यत्न करूंक लागले. उपरांत वायू प्रसन्न जातकच ब्रह्मदेवान हनुमंताक वर दिलो की, झुजांत, शस्त्रान ताचो केन्नाच वध जावचोना. उपरांत इंद्रान सांगलें की हनुमान हो इच्छामरणी जातलो. हो केसरीचो पूत आनी वायुचो औरस पूत आसा अशें सांगून जांबवानान हें चरित्र सोंपयलां.

हनुमानाक राजनीतीचो सगळयो बारीकसाणी खबर आशिल्ल्यो. हनुमानाभशेन उत्तम कार्यसाधक दूत ज्या राजाकडे आसा, ताचें सगळें मनोरथ पुराय जातलें असो रामाचो अभिप्राय आसा. रामरहस्योपनिषदांत हनुमंताचो गुरू स्वरुपांत स्वीकार केला. सनक, सनंदन, सनातन, सनत्कुमार, शांडिल्य, युद्‌गल ह्या ऋषींनी हनुमंताकडल्यान रामतत्त्वान ज्ञान प्राप्त करून घेतिल्लें. रामाचो हनुमंताचेर खूब विस्वास. सामक्या नाजूक अशा प्रसंगाचेर करपाचें काम ताणें कितलेशेच खेपो हनुमंताचेर सोपयलां. रावणाचो वध केल्या उपरांत सीतेक निरोप दिवपाखातीर ताणें हनुमंताक धाडिल्लो. तशेंच आपुण अयोध्येंत येता ही खबर भरताक कळोवपाखातीर ताणें हनुमंताचीच नेमणूक केल्ली.

हनुमान असादारण पंडित आनी अद्‌भुत वक्तो आशिल्लो. व्याकरणाचें अध्ययन करपाच्या हेतान सुर्याक विचारपाखातीर तो उदयचलासावन अस्तचलामेरेन भोंवत रावलो. ताणें व्याकरणसुत्रां, सूत्रवृत्ती, वार्तिक, भाश्य आनी संग्रह हांच्या अध्ययनावांगडा हेर शास्त्रांनीय तो प्रवीण जाल्लो. शास्त्र आनी वेदार्थनिर्णय हातूंत हनुमानाचो हात धरपी दुसरो जालोना. स्वताचे इत्सेप्रमाण सूक्ष्म वा कितलेंय विक्राळ रूप धारण करपाची विद्याय ताका खबर आशिल्ली.

झुजाच्या प्रसंगाचेर ताणें रावणाचो महापराक्रमी पूत अक्ष हाचो वध केलो. तशेंच एकापरस एक बळिश्ट अशे अंबुमाली, धूम्राक्ष, अकंपन, निकुंभ ह्या वीरांक ताणें मारले. रावणाक बेशुध्द करप, समुद्र - उड्डाण, अशोकवनाचो विध्वंस, लंकेक उजो लावप, सीतेचो सोद, द्रोणागिरी पर्वत हाडप ह्यो घडणुको हनुमंताच्या शौर्याच्यो खुणो आसात.

खुबशा पुराणांनी रामाचें चरित्र मेळटा, तातुंतल्या कांय पुराणांतल्या चरित्राचो आपरोस असो आसा : ब्रह्मपुराणांत कथा आसा ती अशी - ब्रह्मगिरी - लागसार अंजन पर्वताचेर केसरी वानर रावतालो. ताका अंजनी आनी अद्रिका नांवाच्यो दोन बायलो आशिल्ल्यो. अंजनी वानरमुखी तर अद्रिका मार्जारमुखी आशिल्ली. त्यो दोगीय पयलींच्या जल्मांत अप्सरा आशिल्ल्यो. इंद्राच्या शापाक लागून धर्तरेचेर तांकां जल्म घेवचो पडलो. एक दीस केसरी वानर थंय नासतना अगस्त्य ऋषी आयलो. त्या दोगांयनी ऋषीचो बरो भोवमान केलो आनी बळिश्ट अशा पुत्रप्राप्तीचो वर ताचेकडल्यान घेतलो. तसो वर दिवन अगस्त्य ऋषी दक्षिणेकडे वतकच वायूपसून अंजनीक हनुमान आनी निऋतीपसून अद्रिकेक पिशाचराज जालो. अशेच तरेची कथा आनंद रामायणांतूय आसा.

शिवपुराणांत हनुमानची कथा आसा ती अशी - एक फावट शिवान विष्णुचें मोहिनीरूप पळयल्ल्यान शिवाचें वीर्यपतन जालें. सप्तर्षींनी तें वीर्य पानाचेर घेवन कर्णावतीन गौतमीकन्या अंजनीकडे तें स्थापन केलें आनी ताचेपसून अंजनीन हनुमानाक जल्म दिलो.

हनुमानाक रुद्राचो अवतार मानतात. हनुमानाचें आनी रुद्राचें हें नातें पुराणकाळांत निर्माण जालें आसुंये अशें अभ्यासकांचें मत आसा. रामायणांतले हनुमान जल्मकथेंत ताचें पितृत्व वायूकडे आशिल्ल्याचें सांगलां. फुडें तो आपल्या मूळच्या गुणांकलागून रुद्रावतारच जालो. स्कंद पुराण, ब्रह्मवैवर्तपुराण, नारदपुराण, शिवपुराण, भविष्यपुराण, महाभागवतपुराण हातूंत रुद्र आनी हनुमान हांचें नातें स्पश्ट केलां. रुद्र हे इकरा आसात. हनुमान रुद्र आसा, म्हणून हनुमानचो आस्पाव एकादश रुद्रांत करतात. भीम हें एकादश रुद्रांतलेंच एक नांव आसा.

हनुमंताक भीमरुपी महारुद्र अशें म्हण्टात. ताका मारुती अशेंय नांव आसा.

नाथसंप्रदायाचे बारा उपपंथ आसून, हनुमान हो तातुंतल्या ध्वजनाथ पंथाचो प्रवर्तक मानतात. ह्या पंथाचे लोक हनुमानाचे परम उपासक आसात. हनुमानाक संगीतशास्त्राचो एक मुखेल प्रवर्तक मानतात. संगीतपारिजात, संगीतरत्नाकर, ह्या ग्रंथांनी प्राचीन संगीताचार्यांवांगडा हनुमानाचो उल्लेख येता.

**हनुमान जयंती :** वेगवेगळया ग्रंथांनी हनुमानाच्यो वेगवेगळयो जल्मतिथी मेळटात. आनंद-रामायणांत चैत्र शुध्द एकादशी दिसा मघा नक्षत्राचेर रिपुदमन हनुमानाचो जल्म जालो अशें म्हळां. पूण कांय पंडितांच्या मतान चैत्र पुनवेक हनुमानाचो जल्म जाला. अगस्त्य संहितेंत कार्तिक वद्य चतुर्दस, मंगळार, स्वाती नक्षत्र आनी मेष लग्नाचेर अंजनीगेर स्वता शंकरानच हनुमानस्वरुपांत जल्म घेतलो अशें म्हळां. सूर्यसंहितेंत कार्तिक वद्यांतली तीथ सांगून, वार मात शेनवार दिला. अशे तरेन ताच्या जल्मतिथीविशीं मतभेद मेळटात. सगळो भारतभर हनुमान जयंती मनयतात. पूण महाराष्ट्रांत चैत्र पुनवेक हनुमानजयंती मनयतात.

शेनवार आनी मंगळार हे हनुमानाचे पूज्य दीस मानतात. लोक ह्या दिसा ताचें दर्शन घेवन, ताका रुईच्या पानांच्यो माळो घालतात, तेल ओंपतात. कांय कडे ताचेमुखार नाल्ल फोडटात तर कांय कडे ताका चुरम्याचो निवेद्य दाखयतात.

**हनुमानमूर्ती :** रामपरिवारांतलो हनुमान हो रामाच्या सामकार हात जोडून उबो आसता. तो एकमुखी आनी दोन भुजांचो आसता. ताका दास मारूती म्हण्टात. वीरमारुती हो झुजाच्या पवित्र्यांत आसता. वीर मारूतीचीं देवळां स्वतंत्र आसतात. हो यक्ष संप्रदायाकडे संबंदीत आसा. केन्ना केन्ना ताच्या पांयांपोंदा राक्षसाची

मूर्त दाखयतात. एकादशमुखी मारूतीच्यो मूर्ती खूब कमी आसात. सौराष्ट्रांतल्या पोरबंदर हांगा इकरामुखी मारूती आसून ताका बावीस हात आनी दोन पांय आसात. त्या मानान पंचमुखी मारूतीच्यो मूर्ती खूब आसात. त्यो दशभुजा आसतात. ह्या मारूतीचीं देवळां कलकत्ता, उज्जैन, गिरनार, बिलवाडा, पुणे, म्हापसा हांगा आसात. दक्षिणमुखी मारूतीचें तोंड दक्षिणेवटेन आसता म्हणून ताका दक्षिणमुखी मारूती अशी संज्ञा मेळ्ळया. अशे मूर्तिमुखार जारण, मारण, वशीकरण अशे तरेचे प्रयोग करतात. हे मारूती महाराष्ट्रांत मुंबय, पुणे, बारामती, औरंगाबाद हांगा आनी कर्नाटकांतल्या बसवगुडी हांगा आसात.

नेपाळांतल्या हनुमानमूर्ती भितर भक्तपूरच्या दरबारांतली मूर्ती म्हत्वाची आसा. ती चार भुजांची आसून, तिच्या आंगार खूब आभुशणां आसात.

भारताभशेन भारताभायर सयाम, कँबोडिया, जावा, सुमात्रा हांगाय हनुमानमूर्ती आसात.

बऱ्याचशा संतांनी हनुमंताची पुजा बांदून ताचो आदर्श समाजामुखार उबो करपाचो यत्न केला. रामराज्याचो एक म्हान आदर्श म्हणून समर्थ रामदास स्वामीन ताची उपासना सुरू केली आनी गांवागांवांत हनुमंताची स्थापना केली. तातूंत ताणें स्थापन केल्ले इकरा मारूती चड प्रसिद्द आसात. कर्नाटक ही हनुमंताची जल्मभूंय मानतात. मद्वाचार्याक हनुमंताचो अवतार मानतात. माध्वसंप्रदायांत सगळयांत पयलीं हनुमानाची पुजा करपाची चाल आसा. स्वामी विवेकानंद हनुमंताचो परम भक्त आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**हरकंत्र :** कानडा जिल्ह्यांतल्या कारवारपसून होनावरमेरेन दर्यादिगेर वशिल्ली एक जात. हे लोक कन्नड भास उलयतात.

हे लोक हिंदू आसून चडशा हिंदुच्या देवांक भजतात. कोडिबीर, बलेवीर आनी बेलेबंट हांकां ते आपली राखण करपी देवता मानतात. केन्नाय जर मोड जालें, वा नुस्तें कमी जालें जाल्यार ह्या देवतांची पुजा करतात. तशेंच ते सोमनाथ, मरिअम्म आनी हुलिदेवता हांकां भजतात. देवमाश्याक ते खूब भियेतात. तो दिसलो जाल्यार कुमारिकांक जेवण घालपाचो नवस करतात. भुतां - खेतां, शकून - अपशकून, जादूटोणो, मंत्र - तंत्र हांचेर तांचो विश्वास आसा.

हांच्यांत आते - मामे भावंडांत लग्नां जातात. चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता. तो चलयेच्या बापायक देज दिता. सारवर पुडो चलयेच्या घरा जाता. हविक ब्राह्मण लग्नाचो म्हूर्त काडून दिता. लग्ना पयलीं तीन दीस न्हवऱ्यावटेनची मंडळी व्हंकलेच्या घरा वतात आनी व्हंकलेक भांगराची वा रुप्याची एक वस्त आनी फुलांची फांती दितात. व्हंकलेचो बापूय त्या सगळयांक जेवण दिता. लग्नाच्या पयलीं दोन दीस व्हंकल - न्हवऱ्याच्या घरा माटव घालतात. माटवाच्या भायर औदुंबराच्या पानांचें आर्क उबारतात. एक चलो त्याखातीर सोवळें न्हेसून पानां घेवन येता. एका कपडयाचेर तांदूळ, नाल्ल, पान - सुपारी दवरून तो सुपांत दवरतात. हाका बळी म्हण्टात. ताची पुजा करतात आनी जातींतल्या भावंडांक जेवण घालतात.

लग्ना दिसा सकाळीं न्हवरो मिरवणुकेन व्हंकलेच्या घरा वचपाक भायर सरता. मिरवणूक व्हंकलेच्या घरालागीं पावल्याउपरांत कांय मनशां फुडें वतात आनी व्हंकलेक साडी, फांती आनी विडो दितात. व्हंकल ती साडी न्हेसता. मिरवणूक घराच्या दारांत आयल्या उपरांत व्हंकलेची आवय न्हवऱ्याक ओंवाळटा आनी तो ओवाळणेक चार आणे घालता. उपरांत न्हवरो - व्हंकल एकामेकां सामकार उबीं रावतात. तांच्या मदीं अंतरपाट धरतात. मंगलाश्टकां जाल्या उपरांत न्हवरो - व्हंकल एकामेकाच्या गळयांत फुलांचे हार घालतात. मागीर न्हवऱ्या - व्हंकलेचे उजवे हात जुळोवन व्हंकलेचो आवय - बापूय तांचेर दूद वा उदक घालतात. हाका 'धारे' विधी अशें नांव आसून लग्नांतलो हो म्हत्वाचो भाग. उपरांत तो न्हवऱ्या - व्हंकलेक घरांत व्हरून बळीम्हऱ्यांत बसयता आनी तांकां गोड खावपाक दिता.

दुसऱ्या दिसा न्हवऱ्या - व्हंकलेक हळद लावन माटवा मुखावयल्या आर्कासकयल बसयतात. व्हंकलेची आवय नाल्ल, तांदूळ, विड्याचीं पानां आदी वस्तू दवरील्लें ताट न्हवऱ्या - व्हंकलेच्या माथ्यार दवरता आनी व्हंकलेचो बापूय तातूंत पांच खेप कळशांतलें उदक वोतता. जमिल्ले सगळे लोक अशेंच करतात. व्हंकलेचो बापूय दनपरां सगळयांक जेवण घालता.

ताच्या उपरांत न्हवरो व्हंकलेक घेवन आपल्या घरा वता. त्या दोगांकय पातळायल्ल्या तांदळांवयल्यान चलत घरांत व्हरतात. न्हवऱ्याचो बापूय तांकां देवकालागीं आपले मांडयेर बसयता आनी गोड खावपाक दिता. मागीर व्हंकलेक नांव दवरतात. दुसऱ्या दिसा नवें जोडपें दबाज्यान कुलदेवतेच्या देवळांत वचून देवतेक पांयां पडटा. ताच्या उपरांत न्हवरो - व्हंकल व्हंकलेगेर वतात आनी थंय पांच दिस रावतात.

हांच्यांत जायते बळी आसात. तांच्यांत परस्पर लग्नसंबंद जायनात. विधवांचें लग्न रातचें जाता. त्या वेळार कांय विधवा बायलो आनी दादले हजर आसतात.

हे लोक मडीं पुरतात. जांकां शक्य आसा ते लासतात. लाशिल्ल्या मड्याच्यो अस्थी आनी गोबोर एकठांय करून न्हंयेंत उडयतात. सुतक धा दीस पाळटात. बाराव्या दिसा जातींतल्या एका बापूय नाशिल्ल्या दादल्याक जेवपाक आपयतात आनी ताका ताट - वाटी आनी कपडे दितात.

दर उमाशेक पितरांचे तृप्तीखातीर ते गोग्रास दितात आनी भाद्रपदांत जाती - जेवण घालतात.

नुस्तें धरप आनी तें विकप हो ह्या लोकांचो पारंपारीक वेवसाय. तेभायर ते पालरव्यो व्हरतात आनी दिवट्यो धरतात. तांच्यांतले कांय जाण खलाशी आनी मेस्त म्हणूनय काम करतात.

हांच्यांत चार - पांच गांवांतलो मेळून एक मुखेली आसता. ताका बुदवंत म्हण्टात. तो गांवांतल्या जाण्टयांच्या पालवान जातीतलीं झगडी मिटयता. काळाच्या संदर्भांत हरकंत्र जमातींतय आधुनीक बदल घडत आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**हरगोविंद सिंग :** (इ.स. १५९५ ते १६४५).

शिखांचो सवो गुरू. गुरू अर्जुनसिंहाचो पूत. मोगल बादशहा जहांगीर हाचो मंत्री चंदुलाल हाणें गुरू अर्जुनसिंगाक भिरांकूळपणान जिवेशी मारतकच, पिरायेच्या ११ व्या वर्सा हरगोविंद गुरूपदार आयलो.

त्या काळांत मोगलांच्या अत्याचाराक लागून शिख लोकांचे जिणेचो भरवंसो उरूंक नाशिल्लो. अर्जुनसिंगाक मारिल्ल्यान शीख लोकांमदीं तिडक पातळिल्ली. ते आदीं शीख संप्रदाय हो एक धर्मीक संप्रदाय आशिल्लो. पूण फकत नामसंकीर्तन, गुरूग्रंथपठण आनी लंगर आदी धर्मीक कार्यां केली म्हूण जावचें ना जाल्यार बळगें वाडोवन संघटना करप आनी सत्ता मेळोवप खूब गरजेचें आसा असो विचार गुरू गोविंदसिंगान केलो आनी बायलांची लज, संपत आनी समाज हांची राखण करपाखातीर ताणें हातांत शस्त्र घेतलें आनी सशस्त्र सेनादलय उबें केलें. गुरूचीं भूषणां म्हणून सेली म्हळयार लोकरीची माळ आनी साफा वापरपाची चाल आशिल्ली. हरगोविंद हाणें सेली जाग्यार तलवार घेतली आनी साफाचेर राजचिन्नाचो तुरो लायलो. आपल्या भेसांत ताणें बदल केलो आनी तो दोन तलवारी वापरूंक लागलो. आपल्या अनुयायांक ताणें सैनिकी शिक्षण दिलें. आपल्या राजवाड्याभोंवतणी तटबंदी करून ताका लोहगड हें नांव दिलें.

गुरू हरगोविंद हाणें अकाल तख्ताची आनी अकाली पंथाची स्थापना केली. इ.स. १६०८ त तो अकाल तख्तार बसून बादशहावरी राज्यकारभार करूंक लागलो. ताचे आज्ञेन शेंकड्यांनी शीख तरणाटे घोड्यार बसपाक आनी शस्त्रां वापरपाक शिकले. अशेतरेन भक्तीमार्गी शीख संप्रदाय शक्तिमार्गी जालो.

इ.स. १६२७ मेरेन शीख आनी मोगल हांचे संबंद सादारण आशिल्ले. पूण शहाजहान दिल्लीचे गादयेर येतकच तांचेमदीं संघर्श सुरू जालो. इ.स. १६२८ त तांचेंमदीं पयलें झूज जालें. उपरांत गुरू हरगोविंद हाणें अमृतसर सोडलें आनी तो कर्तारपुराक गेलो. थंय लागसारच ताणें हरगोविंदपूर नांवाचें नवें नगर वसयलें. इ.स. १६३१ त मोगल सैन्यान हरगोविंदपूराचेर घुरी घाली. तेन्ना तो सतलजचे पलतडी भंटिड्याच्या माळरानांत वचून रावलो. थंय मोगली सैन्य आनी तांचे मदीं जाल्ले लटाफटींत मोगलाच्या सेनापतीक मरण आयलें. थंयच्यान तो परत कर्तारपूराक येवन रावलो. इ.स. १६३४ त बादशहान ताचेर परत घुरी घाली. ह्या व्हड झुजांत मोगलांच्या जायत्या सैनिकांक मरण आयलें.

ह्या उपरांत गुरू हरगोविंद हाणें सशस्त्र प्रतिकार सोडून धर्मप्रचार करपाक सुरवात केली. कर्तारपूरच्या झुजा उपरांत हरगोविंद कल्लुरच्या राज्यांत गेल्लेकडेन थंयच्या राजान ताका व्हड जमीन दिली. थंय ताणें कीरतपूर हें गांव वसयलें.

गुरू हरगोविंद हाका पांच पूत आशिल्ले. तांचीं नांवां अशीं - बाबा गुरूदित्ता, सुरजमल, अनिराय, बाबा अतल आनी तेगबहादूर. बाबा गुरूदित्ताक इ.स. १६३८ त मरण आयलें. ताचे उपरांत रोखडेंच अतल आनी अनिराय हांकांय मरण आयलें. सुरजमल हो संवसारांत रमपी आशिल्लो आनी तेगबहादूर हो उदासीन आसतालो. गुरूदित्ताचो व्हडलो पूत धीरमल दुस्मानांक फितूर जाल्लो. देखून इ.स. १६४५ त गुरू हरगोविंद हाणें आपलो दुसरो नातू हरराय हाका गुरूपद दिलें.

शिखांच्या इतिहासांत गुरू हरगोविंद हाका म्हत्वाची सुवात आसा. ताणें सैनिकी संघटना करूंक नाशिल्ली जाल्यार शीख पंथ नश्ट जातलो आशिल्लो अशी शिखांमदीं भावना आसा. ताणें बापायचे क्रूर हत्त्येचो बदलो घेतलो, तेचवांगडा शीख समाजाची राखणय केली. गरिबांचो उध्दार आनी अन्यायाचो प्रतिकार हीं व्हड कर्तव्यां ताणें पुराय केलीं. तो एक व्हड संघटक आनी व्हड संत आशिल्लो. समानता हें मुखेल लक्षण ताच्या चरित्रांत दिसता. कीरतपूर हांगां मुसलमानांखातीर ताणें एक मशीद बांदिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**हरण :** रानांत रावपी चार पांयांचो प्राणी. हाका खूर आनी खांदयांसारकीं शिंगां आसतात. कूड नाजूक देखणी आसून ताचे कातीचेर मोव केंस आसतात. उंचाय २ ते ५ फूट आसता. हरणां



धांवपाक हुशार पूण भित्रीं आसतात. तांचे दोळे सोबीत पूण चंचल आसतात. तांच्या सकयल्ल्या जबड्याक आठ दांत आसतात आनी वयल्या जबड्याक एकय दांत नासता. तांचीं शिंगां वर्सान वर्स गळून पडून त्या जाग्यार नवीं शिंगां येतात. तांचें आंग भुऱ्या रंगाचें आसून ताचेर सोबीत थिपके आसतात.

ऋग्वेद, अथर्ववेद, वाल्मीकि रामायण हातूंत हरणाचो उल्लेख मेळटा. वाल्मीकीरामायणांत समर, चमर, पृषत, कदली, प्रियकी, गोकर्णी ह्या जातींच्या हरणाचीं नांवां आयल्यांत. हेर संस्कृत महाकाव्यांत हरणांचें काव्यमय गुणवर्णन केलां.

हरणां कळप करून भोंवतात. त्या कळपांत एक - दोन नर आसतात. ते कळपाची राखण करतात. हे कळप मेकळया मळार आनी तणाच्या वाठारांनी भोंवतात. तीं दाट रानांनी चडशीं रावनात कारण तांकां हिंस्त्र पशुंचो भंय दिसता. तांचे पांय हेंच तांच्या संरक्षणाचें साधन आसता.

भारतांत हरणांच्यो चितळ, सांबर, कृष्णसार, पाडा, बारशिंगा, नीलगाय ह्यो जाती मेळटात. १) चितळ : चितळाचो रंग भुरो आसून, ताचेर धवे तिपे दिसतात. तांची शेपटी आनी शिंगां लांब आसतात. पोट धवें आनी कान बदामी आसतात. २) सांबर : हें सगळया हरणांत व्हड आसून तें दोंगरा वाठारांनी रावता. ताचीं शिंगां खूब व्हड आसतात. आंगार काळया रंगाचे राठ आनी दाट केंस आसतात. ते चड करून रातचे भोंवून आपलें पोट भरतात. ३) पाडा : हें हरण तराई आनी तणाच्या वाठारांत मेळटा. ताची शेपडी लांब आनी आंखूड आसता. रंग बदामी आसता. ४) बारशिंगी : ह्या हरणाचीं शिंगां गुळगुळीत आसून ताच्या शिंगांक खूब फांटे आनी तोंकां आसतात. केंस ल्हान पूण दाट आसतात. हाचो रंग थंडे दिसांनी सकयल हळदुवो आनी वयल्यान भुरो आसता आनी गिमाळयांत सकयलो रंग धवो आनी वयलो बदामी दिसता. हीं हरणां मेकळया तणाच्या मळार कळपांनी रावतात. ५) कृष्णसार मृग : हें चड देखणें आसून, ताचीं शिंगां सोबीत, वांटकुळीं वळील्लीं आनी पातळील्लीं आसतात. तांचे खूर तोंकाचे आसून, तांच्या धोंपराकडे केंसांचे झुपके आसतात. रंग काळो आनी पोटाकडलो भाग धवो आसता. तीं फकत तण खातात.

हरणांचें मांस खावंक रुचीक आसता. कातडें मुलायम आशिल्ल्या कारणान तें पांघुरपाक वापरतात. ऋषी मूनी हरणाचें चामडें आसन म्हण वापरताले. तें वेगवेगळया रंगाचें आसून, ताचेर सोबीत थिपके आसता. देखून तें लोकांक चड मानवतालें. तें पवित्र आनी धार्मिक विधीखातीर योग्य मानताले.

नराचे पोटाचे कातडे सकयल एक ग्रंथी आसता. त्या ग्रंथींतल्यान जो स्त्राव भायर येता ताका कस्तूरी म्हण्टात. हो जिन्नस सुगंधी आनी वखदी म्हण वापरतात. हरणांचे केंस घुंवळ, मानसीक अशक्तपण ह्या रोगांचेर वखद म्हण वापरतात. शिंग मंत्रून असाध्य रोगाचेर उपाय म्हण वापरतात.

मंत्रशास्त्रांत मृग हें वेदाचें प्रतिक मानलां. शिवाक मृगधर म्हण्टात. ताणें आपल्या हातांन वेद धारण केल्ल्या कारणान ताका वेदाचो रक्षक म्हळा. भागवत आनी मत्स्य पुराणांत कृष्णमृग हे वायुचें वाहक आशिल्ल्याचें म्हळां.

कांय जाती जमातींत देवक म्हण हरणाक पूज्य मानतात.

- कों. वि. सं. मं.

**हरद्वार :** एक नामनेचें तीर्थक्षेत्र. हें क्षेत्र उत्तर प्रदेशांत सहारणपूरचे ईशान्येक ३१ मैल अंतराचेर हिमालयांतल्या शिवालीक पर्वतरांगाच्या मुळसांत गंगा न्हंयेचे देगेर वसलां. हिमालयाच्या कड्यांवयल्यान नेटान सकयल येवपी गंगेचो प्रवाह एके रिंवडींतल्यान सपाट भुंयेचेर येता आनी शांतपणान व्हावंक लागता. म्हणून ह्या थळाक गंगाद्वार अशेंय म्हण्टात. रिंवडीचे एके वटेन नील पर्वत आसून ताचेर चंडी देवीचें देवूळ आसा. दुसरे वटेन दोंगरार मनसादेवीचें देवूळ आसा.

भगीरथान गंगेक स्वर्गांतल्यान धर्तरेचेर हाडली, पूण तिच्या प्रचंड प्रवाहाच्या आघातान धर्तरी फुटली देखून ताणें शिवाची प्रार्थना केली आनी शिवान तो प्रवाह पयलीं आपल्या मस्तकाचेर घेवन मागीर जंय धर्तरेचेर सोडलो, तीच सुवात म्हळयार हरद्वार. ह्या थळासंबंदीत शिवाविशींच्यो जायत्यो कथा आसात. ताकालागून ह्या थळाक शिवभक्त शैवक्षेत्र मानतात. पूण गंगेच्या दाराकडेन एका फातरार विष्णुपद कोरिल्लें आसा, देखून ह्या थळाक हरीची पायरी ह्या नांवान वळखतात. हिमालयांतल्यान गंगा आयली ती हरीच्या पांयांकडे देखून विष्णुभक्त ह्या क्षेत्राक हरिद्वार म्हण्टात आनी तें वैशणवक्षेत्र मानतात.

ह्या थळाविशीं एक आख्यायिका आसा, ती अशी - विक्रमादित्य राजाचो भाव भर्तुहरी हाणें हांगां तप केलें आनी हांगाच आपलो देह दवरलो. ताचे यादीक राजान हांगा एक व्हड तळें बांदलें आनी ताचे देगेर एक घाटय बांदलो. ह्या घाटाक हरीची पायरी म्हण्टात आनी त्या तळयाक ब्रह्मकूंड ह्या नांवान वळखतात.

नील पर्वताच्या मुळसांतल्यान गंगा न्हंयेचो मुखेल प्रवाह व्हांवता. इ.स. १८५४ त ह्या प्रवाहांतल्यान एक कालवो काडून तो मनसादेवीच्या दोंगराकडल्यान ब्रह्मकूंड तळयांत व्हरपांत आयलो. ह्या वळोवन हाडिल्ल्या बंदिस्त गंगाप्रवाहाचे देगेर हरद्वार गांव वसला. ह्या गांवांकलागुनच एक व्हड घाट बांदिल्लो आसा. ह्या घाटामुखार एक व्हड कूंड आसा. तातुंतल्यानच गंगेच्या प्रवाहाचो एक ओघ सतत व्हांवत आसता. ह्या कुंडाकच ब्रह्मकूंड म्हण्टात. भगीरथान गंगा धर्तरेचेर हाडटकच एका राजान तप करून ब्रह्मदेवाक प्रसन्न केलो आनी ब्रह्मदेवान सदांच हांगा वास्तव्य करचें म्हूण वर मागलो.

ब्रह्मदेवान तथास्तू म्हळें आनी ह्या तळयाक ब्रह्मकूंड हें नांव दिलें.

ह्या कुंडाचे देगेर पलतडीन हरीची पायरी आसा. थंय एक घाट आसा आनी त्या घाटार गंगेचें एक ल्हान देवूळ आसा. थंय सांजवेळां गंगेची आरती जाता. त्या वेळार भोवंडेकार दोण्यांतल्यान ह्या प्रवाहांत दिवे सोडटात. हांगाच हरीचें देवूळ आसून तातूंत विष्णुपद केरिल्लें आसा. ह्या कुडांत आनी घाटार लाखांनी लोक न्हावपाखातीर येतात.



कुशावर्त : हें तीर्थ ब्रह्मकुंडालागसार आसा. थंय अहिल्याबाईन सोबीत घाट बांदला. हांगा लोक श्राध्द आनी क्रियाकर्म करतात.

श्रवणनाथ : हांगाच्यान लागींच श्रवणनाथाचें देवूळ आसा. तातूंत पांचमुखी म्हादेवाची व्हड मूर्त आसा. हें देवूळ बाबा श्रवणनाथ नांवाच्या सिध्द मनशान बांदलां. तातूंत नंदी, सीताराम, राधाकृष्ण, लक्ष्मीनारायण, दुर्गा, गंगा, यमुना, गायत्री, सरस्वती, मारूती, गणपती, भैरव हांच्यो सुंदर मूर्ती आसात.

मायापुरी : हरीची पायरी ह्या घाटासावन सुमार एका मैलार मायादेवीचें देवूळ आसा. कनिंगहॅमच्या मतान हें देवूळ इ.स. च्या १० व्या वा ११ व्या शतमानांतलें आसुंये. हे देवीचे मूर्तीक तीन तोंडां आनी चार हात आसात.

दक्षान सती पार्वतीचो अपमान केल्ल्यान शंकरान ताच्या यज्ञाचो विध्वंस केलो. तेन्ना दक्ष शंकराक शरण गेलो. हें सगळें परमेश्वरी मायेक लागून जालें, देखून ही यज्ञभूंय मायाक्षेत्र ह्या नांवान वळखुपांत येतली असो वर शंकरान दक्षाक दिलो. पुराणांत अयोध्या, मथुरा, माया आदी सात मोक्षदायी पुर्यांचो उल्लेख आसा. तातुंतलें मायापुरी म्हळयारूच मायाक्षेत्र.

कनखल : हरिद्वारासावन दक्षिणेक दोन मैलांचेर ही सुवात आसा. हांगा गंगेचो मूळ प्रवाह नीलधारा आनी वळोवन व्हेल्लो बंदिस्त प्रवाह हांचो संगम जाता. थंय दक्षेश्वर महादेवाचें देवूळ, सतीचें कूंड, घाट आनी धर्मशाळा आसा. दक्षान अपमान करतकच सतीन जंय आत्मदहन केल्लें त्या थळाक सतीचें कूंड म्हण्टात. दक्षाचे प्राथनेवयल्यान शिवान त्या क्षेत्रांत सतत रावपाचें मान्य केलें आनी थंय एक शिवलिंग स्थापन केलें. हाकाच दक्षेश्वर म्हण्टात. जायत्या तीर्थक्षेत्रांत न्हांवनय शुध्द न जाल्लो एक वायट मनीस (खल) ह्या क्षेत्रांत येवन गंगेंत न्हातकच पावन जालो, अशी एक आख्यायिका आसा. ताचेवयल्यान ह्या क्षेत्राक कनखल हें नांव मेळ्ळें.

हरिद्वार क्षेत्रांतली ही एक सोबीत, निवळ आनी पवित्र अशी सुवात. कनखल सावन लागसारच गुरूकुल आनी ऋषीकूल ह्यो संस्था आसात.

नीलपर्वत : गंगेचे पलतडीन हो दोंगर आसून हाच्या मुळसांत गंगेदेगेर नीलेश्वर महादेवाचें आनी दोंगरार चंडीदेवीचें पोरनें देवूळ आसा.

बिल्वकेश्वर : कुशावतीसावन कांय अंतराचेर दोंगरालागसार बेला झाडाच्या रानांत बिल्वकेश्वर शिवाचें स्वयंभू लिंग आसा. ह्या शिवलिंगार बेलाचीं पानां घालप म्हळयार पुण्यायेचें मानतात. हांगा लागसारच गौरीकूंड आसून थंय पार्वतीची मूर्त आसा.

भीमगोडा : ब्रह्मकुंडा लागसार मनसादेवी दोंगराच्या मुळसांत हें कूंड आसा. पांडव जेन्ना हांगा आयले आनी तांकां जेन्ना तान लागली तेन्ना भीमान जमनीर खोंट मारून हें कूंड तयार केलें. फुडें ह्या कुंडाकच भीमकूंड वा भीमगोडा हें नांव मेळ्ळें. हांगा पांडवांचें देवूळ आसा.

कपिलस्थान : हरद्वार सावन लागसारच कपिलमुनीचो आश्रम आशिल्लो. सद्या थंय कपिलेश्वर महादेवाचें देवूळ आसा. ह्या जाग्यार कपिल मुनीन सगराच्या पुतांक भस्मसात केल्ले आनी भगीरथान थंय गंगेचो प्रवाह हाडून तांकां मुक्त केले अशी दंतकथा प्रचलित आसा.

हरद्वार क्षेत्रांतल्यानच हिमालयाची यात्रा सुरू जाता. हांगा श्राध्द आनी पिंडदान केल्याबगर केदारनाथ, बदरीनारायण आदी तीर्थस्थानांची यात्रा करूंक मेळना.

गुरू जेन्ना कुंभ राशींत आनी सूर्य मेष राशींत प्रवेश करता तेन्ना हांगाचो कुंभमेळ भरता. हो योग दर बारा वर्सांनी येता.

सप्तऋषी मंदिर : हरद्वार सावन सुमार ४ मैलाचेर हें देवूळ आसा. हांगा आदीं सात ऋषींचे सात वेगवेगळे आश्रम आशिल्ले. गंगा धर्तरेचेर अवतरली तेन्ना शंकराच्या आदेशाप्रमाण सात धारांत विभागून त्या आश्रमाकडल्यान व्हावंक लागली. थंय अजून गंगेच्यो सात वेगवेगळयो धारो दिसतात. ह्या स्थळार गोस्वामी गणेशदत्त महाराजान सप्तऋषींचें आनी गंगेश्वर महादेवाचें देवूळ स्थापन केल्लें आसून तें व्हड आनी सुंदर आसा. ताचे फाटलेवटेन स्वामी रामतीर्थभवन आनी पाठशाळा आसा. अस्तंतेक सप्तर्षि आश्रम आसून थंय एक अन्न छत्र चलता.

- कों. वि. सं. मं.

**हरभरो :** (पळेयात चणो).

**हरमलकार, चंद्रकांत रामनाथ :** (जल्म : नेरूल, बार्देस).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी प्राथमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. तो 'आझाद गोमंतक दल संघटने'चो वांगडी आशिल्लो. आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या वांगड्यांक पुर्तुगेज पोलिसांच्या कारवायांविशीं खबरो पावोवप, साकव वा पूल हांगा स्फोट घडोवन हाडप, भूंयगत कार्यकर्त्यांक आसरो दिवप असलीं कामां तो करतालो. २६ फेब्रुवारी १९५८ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी न्यायालयामुखार उबो करून बंदखणीची ख्यास्त दिली. ताचे जमनीचेर जप्ती हाडली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**हरमलकार, रघुवीर बाबुसो :** (जल्म : १८ जून १९३५, ओशेल - शिवोली, बार्देस).

सुटकेझुजारी. तो रेंदेरपणाचो धंदो करतालो. 'आझाद गोमंतक दल संघटने'चो तो वांगडी आशिल्लो. गोंयांतल्या जायत्या म्हत्वाच्या जाग्यांर पत्रकां लावप तशेंच हेर सुटकेझुजाचो वावर तो करतालो. एप्रिल १९५६ त शिवोली हांगा ताका पुर्तुगेज पोलिसांनी अटक केली. उपरांत भरपूर मार दिवन सोडून दिलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**हरयाळी :** (पळेयात दुर्वा).

**हरराय :** (इ.स. १६२९ - १६६१).

शिखांचो सातवो गुरू. हो गुरू हरगोविंद हाचो नातू आनी गुरूदित्त हाचो दुसरो पूत. गुरू हरगोविंद हाणें ह्याच नातवाक फुडें गुरूच्यापदार नेमलो. तो स्वभावान सामको थंड आशिल्लो. शिकार आनी झूज हातूंत ताका आवड नाशिल्ली. गिरिगव्हरांत वचून चिंतन आनी ध्यान करप ताका आवडटालें. म्हूण ताणें कीरतपूर हांगा रावन धर्म प्रसाराचें काम केलें. हिंदुस्थानांत ताणें तिनशें साठ धर्मकेंद्रां स्थापलीं आनी काबूलाकय आपले धर्मप्रसारक धाडले. तशेंच राजकारणासावन पैस रावप ताका शक्य नाशिल्लें. शहाजहानाचो पूत दाराशिकोह हो हररायाचो इश्ट आशिल्लो. औरंगजेबान जेन्ना दाराशिकोचो पराभव केलो तेन्ना हररायान आपलो आदार दाराक दिल्लो, पूण ताचो कांयच उपेग जावंक पावलो ना. ताचो दुसरो पूत हरकृष्णराय हाची ताणें गुरूपदार नेमणूक केली.

- कों. वि. सं. मं.

**हरिदास - (१) :** (इ.स. १५ वें शतमान).

एक कृष्णभक्त संत आनी भारतीय संगीताचो प्रवर्तक. वैश्णव भक्तीसंप्रदायांत हरिदासाक उंचेल्या पावंड्याचो महात्मा मानतात. निंबार्क संप्रदायाच्या मतान ताचो जल्म वृंदावनालागसारच्या राजपूर गांवांत एका सनाढ्य ब्राह्मणाच्या घरा जालो. ताच्या बापायचें नांव गंगाधर. हरिदासान आशुधर स्वामीकडल्यान निर्बाकसंप्रदायाची दीक्षा घेतली. पूण विष्णु संप्रदायाच्या मताप्रमाण ताचो जल्म अलिगढ लागसार एका सारस्वत ब्राह्मण घराण्यांत जालो.

पिरायेच्या पंचवीसाव्या वर्सा तो विरक्त जावन वृंदावनांत रावंक गेलो. बाँकेबिहारी ही ताची आराध्य देवता आशिल्ली. ताची भक्ती ही माधुर्यभावाची आशिल्ली. तेचपरी ताणें युगुल उपासनाय आपणायल्ली. हरिदासाचीं निकुंजलीलेचीं पदां आनी राधा - कृष्णाच्या नित्यविहाराचीं वर्णनां, निंबार्क आनी राधा - वल्लभीय विचारांक अनुकूल आसात. ह्या संप्रदायांत हरिदासाक कृष्णाच्या ललितसखींचो अवतार मानला.

हरिदासस्वामीन अठरा सिध्दांताचीं पदां आनी केलिमाल नांवाचीं १०८ पदां रचल्यांत. ताणें आपल्या सिध्दांताचें स्वतंत्र विवेचन केल्लें नासून, राधा - कृष्णाच्या निकुंज लिलेच्या वर्णनांतच आपल्या सिध्दांताचो आस्पाव केल्लो आसा. हाचेभायर संगिताखातीर रचिल्ल्यो ताच्यो शेंकड्यांनी चिजो आशिल्ल्याचें सांगतात. ह्या चिजांचो मुखेल विशय म्हळ्यार दैवी प्रेम वा राधा - कृष्णाचें प्रेम.

ताका भारतीय संगीत पद्दतीचो स्रष्टो मानला. बैजु बावरा, दिवाकरपंडित, रामदास, तानसेन हे ताचे मुखेल शिश्य आशिल्ले. बैजू बावरा हो ताचो आवडतो शिश्य आशिल्लो. वृंदावनांतल्या आपल्या घरांत ताणें तांकां संगिताचें शिक्षण दिलें.

हरिदासाच्या पयलीं भारतीय संगीत हें संस्कृत भाशेंत आशिल्लें. तशेंच त्याकाळांत प्रचलित आशिल्ल्या अरबी आनी फारशी भाशांच्या प्रभावाक लागून संस्कृत संगिताचो लोप जावंक लागिल्लो. अशा वेळार अलौकीक प्रतिभावान कवी आनी संगीतार्चाय म्हणून मुखार आयलो. ताणें पुर्विल्ल्या संस्कृतांतलीं शेंकड्यांनी पदां सरळ आनी म्होवाळ अशे ब्रजभाशेंत अणकारीत करून भारतीय संगिताक नवो जल्म दिलो. धृपद, धमार, त्रिवट, चतुरंग अशा जातींच्यो शेंकड्यांनी रचणुको हरिदासान केल्यो आनी अर्विल्ले भारतीय संगीतपद्दतीची बुन्याद घाली.

- कों. वि. सं. मं.

**हरिदास - (२) :** कर्नाटकांतलो भक्तीमार्गी संत. कर्नाटकांत मध्वाचार्य हाका जायते अनुयायी मेळळे, जांणी माध्व संप्रदायाचो प्रचार सामान्य जनतेमेरेन पावोवपाक हातभार लायलो. ही सगळी मंडळी कर्नाटकांत हरिदास ह्या नांवान संघटीत जाल्ली आसा. हे लोक

पंगडांनी सगळेकडे फिरताले आनी भक्तीगितां गावन लोकांमदीं भक्तीचो प्रचार करताले. ताकालागून हे संघटनेचें नांव दासकूट पडलें.

नरहरीतीर्थांसावन ह्या हरिदासांची परंपरा सुरू जाता. तो मध्वाचार्याचो पट्टशिश्य आशिल्लो. मध्वाचार्याच्या निर्वाणाउपरांत तोच गादयेर बसलो. ताणें जायत्या हरिदासांक एकठांय हाडून भक्तीचो प्रसार करपाखातीर कर्नाटकभर धाडले. ताच्या उपरांत श्रीपादराय हो गादयेर आयलो. ताणें उडिपींतलें मूळ पुजाविधान संस्कृतांत आशिल्लें, त्या जाग्यार कन्नड भजनां गावपाची प्रथा सुरू केली. तेउपरांत व्यासराय हाणें श्रीपादरायांकडल्यान दीक्षा घेतली. ताणेंच हरिदास संप्रदाय लोकव्यापी केलो आनी संप्रदायांतलो उच्च नीच भेद ना करून सगळ्यांक एके माच्चयेर हाडले.

अशे तरेन १३ व्या शतमानांत जल्माक आयिल्ली ही हरिदास परंपरा सातत्यान इ.स. च्या १८ व्या शतमानामेरेन चालू आशिल्ली. ह्या काळांत सुमार दोनशांवयर हरिदास कर्नाटकांत जावन गेले.

ह्या हरिदासांचे तीन वर्ग पडटात ते अशे - १) विजयदास, जगन्नाथदास, वेंकटेशदास आदी. हांणी आपल्या साहित्यावरवीं मध्वाचार्याचें तत्त्वगिन्यान लोकांक सोपें करून दिलें. २) व्यासराय, गोपालदास आनी सुवष्णदास हांणी भक्तीवांगडाच कर्म आनी गिन्यान हांचेर भर दिलो. ३) पुरंदरदास आनी कनकदास हांणी जात - पाताचो भेद दवरिनासतना सगळ्या लोकांक भक्तीमार्गाचो उपदेश केलो. तशेंच धर्म, नीती आनी सदाचार हांचीय शिकवण दिली. कर्नाटकांतल्या लोकांचेर ह्या दोगांयचो सुमाराभायर प्रभाव पडिल्लो.

ह्या हरिदासांनी भक्तीसाधनेंत संकीर्तन पद्दतीक चड म्हत्व दिलें. ताकालागून दरेक हरिदास हो उण्या - अदीक प्रमाणांत गायक जालो. तांणी जीं पदां रचलीं तीं गावपाखातीर गातां - गातां ते नाचताले आनी नाचतां नाचतां नवो चरण घडयताले. सगुण, निर्दोष आनी प्रतिपालक असो श्रीहरी तांणी कल्पनेन निर्माण केल्लो आनी आपल्या पदांतल्यान ताका सर्वतोपरी नटयल्लो. ताची दास्यभक्ती तांणी कर्नाटकभर पातळायिल्ली. तांणी जरी समाजीक विषमतेचेर घाय घाल्लो तरी वर्णाश्रम धर्माक तांचो विरोध नाशिल्लो. आत्मोन्नती आनी भगवतकृपा ही खंयचे जातीची मिराशी न्हय जाल्यार तो मनशाचो अधिकार आसा अशी तांची घोशणा आशिल्ली.

- कों. वि. सं. मं.

**हरियाणा :** भारतीय संघराज्यांतलें एक घटक राज्य. हें राज्य उत्तर भारतांत वसला. क्षेत्रफळ ४४,२१२ चौ. किमी. लोकसंख्या १६,३१७,७१५(१९९१); राजपाटण-चंदीगढ; राज्यभास-हिंदी. ह्या राज्याचे उत्तरेक पंजाब, आग्नेयेक-हिमाचल प्रदेश, उदेंतेक. उत्तर प्रदेश, जाल्यार दक्षिणेक आनी अस्तंतेक राजस्तान राज्य आसा.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणूकेचे नदरेन राज्याचे सैमीकतरेन दोन भाग जाल्यात. उत्तरेकडचो हिमालयी सपाट भाग जाल्यार दक्षिणेकडचें इंडो जेजेंटीक मळ. राज्याची उत्तरेकडची भूंय मात्शी ऊंच आसून, दक्षिणेवटेन ती देंवत गेल्या. राज्याचो ईशान्येकडचो भाग रेंवटी आनी सुको. घागर ही राज्यांतल्यान व्हांवपी एकमेव न्हंय. कांय इतिहासकारांच्या मताप्रमाण ही वेदीक काळांत प्रसिद्द नाशिल्ली द्रिशावादिती न्हंय. राज्यांत पावस उणो पडटा. राज्यांतलो गीम खूब उश्ण जाल्यार शिंयाळो खूब कडक. राज्यांत स अभयारण्यां आसात.

**इतिहास :** महाभारत ग्रंथाप्रमाण राज्यांतलें कुरूक्षेत्र हें पांडवांचें जल्म स्थान. कौरव पांडवांचें म्हाझूज कुरूक्षेत्रांतच जाल्लें. वामन पुराणाप्रमाण कुरू राजान महादेवाच्या नंदीक जोताक बांदून भांगराच्या नांगरान कुरूक्षेत्राची सात कोस भूंय नांगरली. मुसलमानांच्यो घुरयो येवचे पयलीं ह्या प्रदेशांत ल्हान - व्हड खूब स्वतंत्र राज्यां आशिल्लीं. इतिहासकरांच्या सांगण्या प्रमाण तांच्यांत आतऱ्या-पयऱ्यान झुजां चालूच आशिल्ली. मोगल येवचे पयलीं थय हूण, तुर्की आनी तुघलकांच्यो घुरयो येवन गेल्ल्यो. भारतांत मोगल आयल्या उपरांत तांणी १५२६ आनी १५५६ त पानिपताचीं दोन झुजा झुजोवन हरियाणांत आपलो शेक बसयलो.औरंगजेबाच्या मरणाउपरांत मराठ्यांनी थंय आपलो शेक बसोवपाचो खूब यत्न केलो. पूण १७३१ त पानिपताच्या तिसऱ्या झुजांत तांचो साप्प पराभव जालो. मुसलमानांचे राजवटींत हरियाणा हो दिल्लीचोच एक वांटो आसलो.

ब्रिटीश भारतांत आयल्या उपरांत तांणी ह्या प्रदेशाचेर आपलो शेक बसयलो. १८५७ च्या उठावांत हेर भारतीयांवांगडा हरियाणाच्या लोकांनीय त्या उठावांत वांटो घेतिल्लो. उठाव मोडून उडयल्या उपरांत ब्रिटीश हरियाणा राजांकडेन आनी लोकांकडेन खूब निर्दयपणान वागले. झाज्जर आनी बाहादुर्ग नवाब तशेंच वल्लबर्ग आनी रेवाटी राजांचीं राज्यां तांणी खालसा केलीं. हरियाणाचे हेर प्रदेश पटियाळा, नाभी आनी जीन्द राजांकडेन सोंपयले. अशे रितीन हरियाणा हो पंजाब प्रांताचो भाग जालो. उपरांत भारताक स्वातंत्र्य मेळत मेरेन तो पंजाब प्रांताचोच एक भाग आसलो. स्वातंत्र्या उपरांत पंजाबाची फेररचणूक करतना १ नोव्हेंबर १९६६ दिसा हरियाणाक स्वतंत्र घटक राज्याचो दर्जो दिलो.

राजाचें विधिमंडळ एकसदनी आसून विधानसभेंत ९० वांगडी आसतात (१९९९). राज्यांत १७ जिल्हे आसात.

**आर्थिक स्थिती :** शेतवड हो राज्याचो मुखेल वेवसाय. राज्यांतले सुमार ८०% लोक शेतकी वेवसायांत आसात. १९६६ त ह्या राज्याची स्थापणूक जायतमेरेन हांगाच्या शेतकी उत्पादनाची एकसारकी वाड जायत रावल्या. कड्डण, ऊंस, तेलाबियो आनी कापूस हीं राज्यांतलीं मुखेल पिकां. धान्य विमो येवजण चालीक लावपी हरियाणा हें उत्तर भारतांतलें पयलें राज्य. १९९२-९३ वर्सा राज्यांतलें धान्य

उत्पादन १०२.४० लाख टण आसलें. भारतेंतल्या हेर राज्यांपरसय हांगा दूय वेवसायांत खूब वाड जाल्ली आसा.

हरियाणाच्या उद्देगीक मळारच खूब उदरगत जाल्ली आसा. शिमीट, साखर, कागद, कापूस, कपडो, पितूळ, सायकल, ट्रॅक्टर, मोटारसायकल, टायर, टिवी संच, घड्याळ आनी हेर व्हड कारखाने हांगा आसात. गुरगांव हें हरियाणांतले वाडटें उद्देगीक क्षेत्र आसून मारुती उद्देग हो थंयचो मुखेल कारखानो.
शिंपणे येवजण तशेंच वीज उत्पादन आनी तिचें वितरण हाचो हरियाणांत बरो विस्तार जाल्लो आसा. भारतांत लिफ्ट इर्रीगेशन ही शिंपणे येवजण सुरू करपी हरियाणा हें पयलें राज्य. पर्यटन वेवसायाक लागुनय राज्याक व्हड येणावळ मेळटा.

**लोक आनी समाजजीण :** राज्यांत हिंदूचें प्रमाण चड आसून तें उत्तर भारतांतले सगळे सण आनी उत्सव मनयतात. मुसलमानांचें प्रामणय हांगा चड आसा. जाट, राजपूत, अहरि, गुजर आनी हेर जातीचे लोक थंय कांय प्रमाणांत आसात. १९९१ गणतीप्रमाण राज्यांत ५५.३३% लोक शिक्षीत आसात.कुरूक्षेत्र, स्थाणीश्वर, बाणगंगा, पेट्टोवा, चंदीगढ, गुडगांव, करनाळ आनी पानिपत हीं राज्यांतलीं महत्वाचीं थळां.

- माणिकराव राम नायक गावणेकार

**हरिवंश :** महाभारताचें खिल पर्व. हो एक पुराणासारकोच ग्रंथ आसा. चडशे टिकाकार ताका पुराणच म्हण्टात. ह्या ग्रंथांत पुराणाचीं पांचय लक्षणां नात पूण ब्रह्मांडाची उत्पत्ती, ईश्वराचे अवतार, पुण्यश्लोक राजे आनी तांच्यो वीरगाथा ह्या ग्रंथांत आसात.

महाभारताचे सुरवेक संग्रहपर्वांत हरिवंशाचो महाभारताकडे संबंद दाखयला. हो ग्रंथ वैशंपायनान जनमेजयाक सांगला.

हरिवंशांत श्रीकृष्णाचें भुरगेपणाचें आनी उपरांत तरणेपणाचें चरित्र आसा आनी महाभारतांत श्रीकृष्णाचें उत्तर चरित्र आसा. हरिवंशपर्व, विष्णुपर्व आनी भविष्यपर्व अशे ह्या ग्रंथाचे तीन भाग आसात. हरिवंशांत ५५, विष्णुपर्वांत १२८ आनी भविष्यपर्वांत १३५ अध्याय आसून वट्ट अध्यायसंख्या ३१८ आसा. ह्या सगळ्या अध्यायांनी मेळून वीस हजारांवयर श्लोक आसात. चडशे सगळे श्लोक अनुष्टुभ छंदांत आसात.

**हरिवंशपर्व :** ह्या पर्वांत आदिसर्ग, दक्षाची उत्पत्ती ह्यो गजाली सांगल्यात. उपरांत पृथूचें थोड्याभितर चरित्र सांगलां तें अशें-

एकदां धर्तरी निस्सत्व आनी वांझ जाल्ल्यान तिचेर कसलीच वनस्पत उदेना जाली. ताका लागून लोकांची उपासमार जावंक लागली. ती स्थिती पळोवन पृथूक तिचो राग आयलो आनी तो तिका ख्यास्त करपाक गेलो. धर्तरी भियेली, तिणें राजाक, स्त्रीवध करप पाप आसा अशें सांगलें. ताचेर पृथून सांगलें, 'वायट वर्तन करप्याक ख्यास्त करप हो राजधर्म आसा. तशेंच धान्य उत्पन्न करून लोकांची उपजिविका चलोवप हें तुजें कर्तव्य आसा. तें तूं करीना, हो तुजो गुन्यांव आसा. तेन्ना तुका ख्यास्त करूंकच जाय. तूं बायल आसा म्हणून हांव तुका भोगसुचो ना'.

उपरांत धर्तरेन ताका योग्य तो प्रतिसाद दिलो. गायेचें रूप घेवन ती पृथू म्हऱ्यांत आयली. पृथून वेगवेगळे वत्स तिचे कासेक लावन तिच्यांतल्यान सगळयो गरजेच्यो वस्तू काडून घेतल्यो.

फुडें स्वायंभुव मनूच्या आख्यानापसून वैवस्वतामेरेनचे मनू, मन्वंतरां आनी कालगणना सांगल्या. फुडें सोमवंशाच्या वर्णनांत इलेची उत्पत्ती आनी बुधाचो जल्म हेविशीं म्हायती सांगल्या. शर्याती राजान मथुरे लागसारच्या रानांत धुंधू नांवाच्या राक्षसाक मारील्ल्याची कथा, त्रिशंकूचें आख्यान आनी इक्ष्वाकूवंशाचें वर्णन आसा. ह्याच वंशांत भगीरथाचो जल्म जालो आनी ताणें गंगेक भूतलाचेर हाडली. उपरांत श्राध्दविचार, पितृपुजा, पितृकल्प ह्यो गजाली आयल्यात. चंद्रवंश सांगतना पुरूरवा आनी उर्वशी हांची कथा दिल्या. ह्याच पुरूरव्यान अग्नीचे दक्षिणाग्नी, गार्हपत्याग्नी आनी आहवनीयाग्नी अशे तीन प्रकार सोदून काडले. तेउपरांत समुद्रमंथनाची कथा आयल्या. ह्या मंथनांतल्यान धन्वंतरी अमृतकुंभ हातांत घेवन वयर आयलो आनी तोच उपरांच काशी राजागेर पूत म्हणून अवतरलो.

**विष्णुपर्व :** वाराणशी क्षेत्र उध्वस्त जाल्लें ताचें पुनर्वसन कशें जालें, तें सांगून नहुषचरित्र दिलां. नहुष हो शंभर यज्ञ करून इंद्रपद मेळयता, ताका इंद्राणीची अभिलाषा उत्पन्न जाता आनी त्या यत्नांत ऋषींचो शाप मेळून ताका सर्प योनींत पडचें पडटा, ही कथा आसा. ह्या पर्वांत पयलीं पुरूवंशाचें आनी उपरांत वृष्णिवंशाचें वर्णन आसा. ह्याच वृष्णिवंशांत श्रीकृष्णाचो जल्म जालो. ती कथा सांगतना श्रीकृष्णचरित्र विस्तारान दिलां. तातूंत ताच्या जल्मासावन द्वारकेचे निर्मितीमेरेन सगळो भाग आयला. उपरांत श्रीकृष्ण आनी बलराम हांचें विद्या अध्ययनाखातीर सांदीपनीच्या आश्रमांत वचप, गुरूदक्षिणा म्हणून गुरूचो दर्यांत शेणिल्लो भुरगो परत हाडून दिवप, उपरांत जरासंधाच्या झुजांत माघार घेवन कृष्णाचें अस्तंतसागराकडे येवन थंय भांगराची द्वारका निर्माण करप, हे सगळे कथाप्रसंग आयल्यात. उपरांत श्रीकृष्णाचें लग्न, ताच्यो आठ पट्टराणयो, ताचो गृहस्थाश्रम, पारिजातकाची कथा, प्रद्युम्नाचें आख्यान, ताचें लग्न, सत्यभामेचें श्रीकृष्णदान ह्यो सगळयो कथा सांगून हें विष्णुपर्व सोंपयलां.

**भविष्यपर्व :** हरिवंशाचो हो निमाणचो भाग. हातूंत जनमेजयाचो, अश्वमेधाचो विचार थारायत पसून फुडलो सगळो कथाभाग आसा. चारूय युगांतल्या मनशाचे आचार - विचार, तेचभशेन कलियुगांत लोक कशे वागतले हाचेंय वर्णन आसा. नारायणदेव क्षीरसागरांत शयन करीत आसतना, ताचे बोंबलेंतल्यान ब्रह्मदेवाची

उत्पत्ती, हिरण्यकशिपूचो वध, समुद्रमंथन, वामनावतार, श्रीकृष्णाचें कैलासार वचप, व्रतां, विधी आनी मंत्र हे विशय ह्या पर्वांत आयल्यात.

रुबेन हाच्या मताप्रमाण पयलींच्या हरिवंशाचें स्वरूप आयचेपरस खूब ल्हान आशिल्लें. ते नदरेन हरिवंशाक एक प्राचीन पुराण मानूं येता. डॉ. हाजरा हाणें इ.स. ४०० वर्सां हो हरिवंशाचो काळ मानला. श्रीधर कवीचो हरिविजय हो ग्रंथ चडसो हरिवंशाचेर आदारिल्लो आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**हर्निया :** जेन्ना कुडींतलो खंयचोय एक अवयव तो जे पोकळ सुवातेंत आसता तिचे भोंवतणी आसपी आवरणांतल्यान भायर सरता ते अवस्थेक हर्निया अशें म्हण्टात. कुडींतले अवयव जे आपले स्वताचे पोकळ सुवातींनीं आसतात. तांकां 'बॉडी कॅविटीस' अशें म्हण्टात आनी हे पोकळ सुवाती भोंवतणी जें आवरण आसता त्या आवरणाक 'कॅविटी वॉल' (Cavity Wall) अशें म्हण्टात.

मनशाचे कुडींतले जायते अवयव देखीक पुलमांव म्हळयार लंग्स (Lungs), काळीज म्हळयार हार्ट (Heart), आंतकड्यो म्हळयार 'इंटेस्टायनस' (Intestines) हे अवयव आपापले पोकळ सुवातींत भितर आसतात. केन्नाय हे पोकळ सुवाती भोंवतणी आसपी आवरणां खंयचेय एके सुवातेर फुटटात वा तुटटात, जाका लागून भितर आशिल्ल्या अवयवाचो एक भाग आपली सदची सुवात सोडून तातुंतल्यान भायर सरता आनी मागीर हर्निया हो प्रकार जाता.

मनशाचे कुडींत चड सामान्यतायेन उपरासपी हर्निया ही 'इंग्वायनल हर्निया' (Inguinal Hernia) हे जातींतली आसता. हर्नियाचे हे जातींत, आंतकडेचें एक वेंटाळें म्हणजे 'लूप' (Loop), पोटाच्या सकयल्या भागांत आसपी स्नायूंचे वण्टींतल्यान, म्हणजे मस्क्युलर वॉल (Muscular Wall) हातुंतल्यान भायर सरता.

हर्निया हो प्रकार चडकरून स्नायुचे वण्टींत खंय तरी एक सदळ अशी वाट तयार जाल्ल्यान उपरासता.

जेन्ना एक अवयव वा ताचो खंयचोय एक भाग हे मेकळे वाटेंतल्यान भायर सरता तेन्ना तो चडकरून आपले वांगडा पोटांतले भितरले वटेन आसपी आवरणाच्या एका भागाकूय भायर ओडटा. हें जें पोटांतले भितरले वटेन आवरण आसता ताका 'पेरिटोनियम' (Peritoneum) अशें म्हण्टात. हें आवरण भायर आयिल्ल्यान हर्निया भोंवतणी एक पोती तयार जाता. हे पोतयेक 'हर्नियल सॅक' (Hernial Sac) अशें म्हण्टात.

आमी जी पिडेस्ताक तपासतना हर्निया ह्या प्रकाराची परिक्षा करतात ती ही भायर भितर सरपी हर्नियाची पोती पोटाचे काती पोंदा हाताक लागिल्ल्यान वा दिश्टी पडिल्ल्यानच करतात.

ही जी इंग्वायनल हर्निया आसता ती जायत्या फावटी पिडेस्ताक संकटांत उडयले बगर रावना आनी हाचे फाटलें कारण आसता एक एक फावट आंवळून येतात ते पोटाचे सकयले स्नायू जाका लागून आंतकडेचो भायर आयिल्लो भाग मर्दीच चिड्डून उरपाची शक्यताय आसता. ह्या प्रकाराक 'स्ट्रांगुलेटेड हर्निया' (Strangulated Hernia) अशें म्हण्टात. अशें जाल्यार एक गंभीर अशी परिस्थिती उपरासूं येता आनी पिडेस्ताचेर ताकतिकेन उपाय करचे पडटात. हे खातीर शस्त्रवैज मात लेगीत वेळ वगडायनासतना पिडेस्ताचेर शस्त्रक्रिया करतात आनी आंतकडेचो चिड्डलो भाग मेकळो करून उपराशिल्ली आडखळ पयस करतात. अशें हें हर्नियाचे बाबतींत सरास प्रमाणांत घडटा आनी पिडेस्ताक एके गंभीर अशे कटकटीक तोंड दिवचें पडटा. हे खातीर जांकां कोणाक इंग्वायनल हे जातींतलो हर्निया जाल्लो आसता तांणी तो वाटेर खंयूय चिड्डून उरचे पयलींच दोतोरा म्हऱ्यांत वचून ताचेर फावो तो उपाय करूंक जाय.

हर्निया ह्या प्रकाराच्यो सामान्य सुवाती ह्या चित्रांत दाखयल्यात -




हर्निया ह्या प्रकाराच्यो जाती -




इंग्वायनल जातींतली हर्निया

हर्नियेचो एक चिड्डल्लो प्रकार

जांकां कोणाक आपली ही पिडा रोकडीच जाग्यार घालूंक शस्त्रक्रिया करून घेवपाची नासता तांणी तांची हर्निया जडार पडूंनये आनी वयली परिस्थिती उपरासुंनये हे खातीर पट्याचो उपेग करूं येता. ह्या पट्याक 'ट्रस' (Truss) अशें म्हण्टात. हो पटो जर कमरा भोंवतणी घट बरो आंवळून बांदलो जाल्यार आंतकडेचो भाग जो हर्नियाच्या रुपान भायर सरता तो तसो सरूंक पावचोना आनी तो पोटाच्या सकयल्या भागाच्या स्नायुंचे वण्टी भितरच उरूंक पावतलो आनी पिडेस्ताक तात्पुरतें तरी कसल्याच कटकटी विणें भोंवक - फिरूंक मेळटलें. पूण हांगा एकच मतींत धरपाचें म्हळयार एक फावट कोणाकय हर्निया हो प्रकार जालो म्हणटकच तो ना करून वडोवंक ताणें आपल्याचेर केन्नायतरी शस्त्रक्रिया करून घेवंचीच पडटा. ती करना जाल्यार हर्निया ना जायनासतना सासणाचो तसोच

उरू येता आनी पिडेस्ताक ताची आडरवळ सोंशीत दीस सारचे पडटात. हर्निया ही पिडा कसल्याच वरवदांनी ना जावंक पावना तिचेर फकत शस्त्रक्रिया होच उपाय आसा.

हर्नियाचो आनीक एक प्रकार आसता जाका 'हर्निया सेरेब्राय' (Hernia Cerebri) अशें म्हण्टात. हातूंत मेंदवाचो एक भाग तकलेच्या हाडांचे कवटेंत उपराशिल्ले मेकळे वाटेंतल्यान भायर सरूं येता. तशेंच हर्निया हो प्रकार भितरल्या जायत्या हेर अवयवांकय जावं येता. देरवीक - मुत्राशय म्हळ्यार 'युरिनरी ब्लॅडर' (Urinary Blader) हो अवयव. मनशाचे कुडींत आनीक एक हर्नियाचो प्रकार जावपाची देरव म्हळ्यार 'हायाटस हर्निया' (Hiatus Hernia). मनशाची छाती आनी पोट हांचे मदीं एक स्नायुंची वणत आसता. ह्या स्नायूक 'डायाफ्राग्म' (Diaphragm) अशें म्हण्टात. जेन्ना कसल्याय कारणांक लागून ह्या स्नायुचे सकयल आशिल्लो कोठो ह्या अवयवाचो वयलो भाग ह्या स्नायुचे वण्टींतल्यान वयर सरता तेन्ना हायाटस हर्निया हो प्रकार जाता.

हर्निया जावपा फाटलीं कारणां जायतीं आसतात. इंग्वायनल हर्निया हे चड करून जड वजन उबारिल्ल्यान जावं येता. तशेंच परत परत खोंकली येवप, परसाकडेन वा मुतूंक जातना त्रास जावप हीं हर्निया जावपा फाटलीं हेर कारणां आसतात.

- डॉ. अनंत शां. हेदे

**हर्षचरित** : एक संस्कृत गद्य प्रबंद. ताचो कर्तो बाणभट्ट. ह्या प्रबंधाचे आठ उच्छवास आसून तातूंत कवी हर्षराजान चरित्र वर्णन केल्लें आसा. ह्या चरित्रांतले कथेचो सारांश असो -

श्रीकंठ जनपदांत स्थाणीश्वर हांगा पुष्यभूती नांवाचो राजा राज्य करतालो. ताच्या वंशांत प्रभाकरवर्धन नांवाचो पराक्रमी राजा जालो. ताका राज्यवर्धन आनी हर्षवर्धन नांवाचे दोन पूत आनी राज्यश्री नांवाची एक चली आशिल्ली. गृहवर्मा मौरवरीकडेन राजश्रीचें लग्न जालें. प्रभाकरवर्धनाच्या मरणाउपरांत राज्यवर्धनान संन्याश घेवपाची तयारी केली तेन्नाच ताका मालवराजान गृहवर्म्यांक झुजांत जिवेशीं मारिल्ल्याची बातमी सांगली. तेन्ना बापायचें मरण विसरून तो मालवराजाकडेन झूज दिवंक गेलो. पूण गौडाधिपान कट करून ताका जितो मारलो. हें कळटकच हर्षाक खूब वायट दिसलें. ताणें शशांकाचेर घुरी घाली. थंय ताका राज्यश्री मालवराजाचे बंदखणींतल्यान पळून विंध्यारण्यात गेल्या म्हणपाचें कळ्ळें. देरवून हर्षय थंय गेलो. राज्यश्री घोवाच्या दुख्खान स्वताक पेटोवन घेवपाचे तयारींत आशिल्ली. थंय हर्षाची आनी तिची भेट जाली.

इतल्यारच हर्षचरित्र सोंपलां. तें विशुध्द साहित्यीक शैलींत निर्माण केल्लें एक रोचक प्रबंधकाव्य आसा. ह्या काव्यांत वीर आनी करूण ह्या दोनय रसांचो आस्पाव आसा. सातव्या शतमानांत विंध्योत्तर भारत कसो आशिल्लो हाचें प्रभाणभूत अशें चित्र ह्या ग्रंथावरवीं पळोवंक मेळटा.

- कों. वि. सं. मं.

**हर्षवर्धन** : (इ.स. ६०४ - ६४७).

पंजाबांतल्या श्रीकंठ देशांतल्या स्थानेश्वर हांगा राज्य करपी वर्धन राज्यवंशांतलो एक व्हड सम्राट. महाराजाधिराज प्रभाकरवर्धन आनी राणी यशोमती हांचो तो दुसरो पूत. ताच्या भावाचें नांव राज्यवर्धन आनी भयणीचें नांव राज्यश्री अशें आशिल्लें. मौरवरी वंशांतलो राजा ग्रहवर्मा हाचेकडेन राज्यश्रीचें लग्न जाल्लें.

नामनेचो कवी बाणभट्ट हाच्या हर्षचरितांत ह्या राजवंशाची खुबशी म्हायती आयल्या. पूण ती पुराय ना. त्या उपरांतची म्हायती नामनेचो चिनी भोंवडेकार युआन च्वांग हाणें बरोवन दवरल्या. हर्षाच्या काळांतले कांय ताम्रपट आनी शिलालेख उपलब्ध जाल्ले आसून तातूंत हर्षाचीं कांय आज्ञापत्रांय कोरिल्लीं आसात. तांचे वयल्यान हर्षाविशीं जायती म्हायती मेळटा. राज्यवर्धन हुणांचो प्रतिकार करपाखातीर व्हड सेना घेवन गेल्लो. तेन्नाच प्रभाकरवर्धनाक मरण आयलें आनी राणी यशोमती सती गेली. हुणांचो पराभव करून येतकच ताका आवय - बापायच्या मरणाची बातमी कळ्ळी. ताका खूब वायट दिसलें आनी तो संन्यास घेवंक तयार जालो. पूण हर्षवर्धनान ताका तशें करूंक दिलें ना.

तेन्नाच मालवराजान गौडाधिपती शशांक हाच्या आदारान कान्यकुब्ज नगर जिकून ग्रहवर्माक जिवेशीं मारलो आनी राज्यश्रीक बंदी केली. तेन्ना राज्यवर्धन, हर्षाचेर राज्यशाशनाचो कारभार सोंपोवन मालवधिपतीचो सूड घेवपाक व्हड सैन्य घेवन गेलो. ताणें ताका सहज हारयलो तरी राजा शशांक हाणें ताका कपटपणान आपोवन जिवो मारलो. ताकालागून हर्षाक स्थानेश्वरच्या सिंहासनाचेर बसचें पडलें. ताका कान्यकुब्ज राज्याच्या मंत्रिमंडळानय राज्यपद स्विकारपाची विनवणी केली. तेन्ना बोधिसत्त्व अवलोकितेश्वर हाची संमती घेवन ताणें तेंय राज्य स्विकारलें. अशेतरेन दोनय राज्यांचो तो जरी अधिपती जालो, तरी स्वताक महाराजाधिराज अशें म्हणून न घेता तो राजपूत शिलादित्य म्हणून राज्यकारभार चलयतालो. पिराय ल्हान आसुनय ताणें मोटे खंबीरतायेन राज्यविस्ताराचें काम सुरू केलें.

सुरवेक तो आपली भयण राज्यश्री हिची बंदखणींतल्यान सुटका करूंक गेलो. पूण वाटेरच ताका ती पळून विंध्यारण्यांत गेल्ल्याचें कळ्ळें. थंय ती स्वताक लासून घेवपाची आशिल्ली. तेन्ना हर्षान तिका समजावन घरा हाडली.

उपरांत हर्षान काश्मीरसावन आसाममेरेन आनी नेपाळसावन नर्मदेच्या तटामेरेन तशेंच ओरिसांतल्या महेंद्र पर्वतामेरेन आपली सार्वभोम सत्ता प्रस्थापित केली. गौडाधिपती शशांकाचेर ताका जैत

जोडूंक मेळ्ळें ना. कामरुपाचो राजा भास्करवर्मा हाचेकडेन ताणें इश्टागतीचे संबंद जोडिल्ले. वलभीचो मैत्रक राजा ध्रूवसेन (२रो) हाका ताणें हारयलो, पूण ताका आपली धूव दिवन ताचेकडे नातें जोडलें. इ.स. ६३४ मेरेन तो सतत झुजां करतालो. ६३४ त ताणें दक्षिण भारताचेर घुरी घाल्ली. पूण तातूंत ताका यश मेळ्ळें ना. उपरांत ताणें गौड देशाचेर घुरी घाली. चिनी भोंवडेकार युआन च्वांग ६३४ त हर्षाच्या दरबारांत आयिल्लो.

हर्षान व्हड राज्य स्थापून प्रबळ सम्राट म्हूण नामना मेळयली. पूण पुराय भारताचेर ताची सार्वभौम सत्ता प्रस्थापित जावंक शकली ना. ताच्या व्हड सेनादलांत ६०,००० हत्ती, १,००,००० घोडे आनी ५०,००० पदाती आशिल्ले. ताचे राज्यवेवस्थेंत राजा हो सर्वश्रेश्ठ आसून ताका आदार करपाखातीर मंत्रिपरिशद आशिल्ली. शासनाचे वेगवेगळे विभाग वेगवेगळया मंत्र्याकडे सोंपयल्ले. शासनयंत्रणेचेर हर्षाचें पुराय लक्ष आशिल्लें. साम्राज्याच्या वेगवेगळया वाठारांत तो सतत भोंवतालो आनी शासनयंत्रणा कार्यक्षम आसा काय ना हें पळेतालो.

ताणें आपल्या राज्यांत जायते राजमार्ग तयार केल्ले. त्या मार्गार पांथस्थांचे राखणेची वेवस्था केली आनी तांकां रावपाखातीर पांथशाळाय बांदिल्ल्यो. ह्या पांथशाळांत गरिबांखातीर आनी भोंवडेकारांखातीर वखदालय आसतालें आनी थंय तांकां फुकट वखद दिताले. अन्न उदकाचीय थंय बरी वेवस्था आसताली.

हर्षवर्धनाक ताच्या दानपत्रांत आनी मुद्रालेखांत माहेश्वर म्हळयार शैव म्हळां. पूण राज्यश्रीचो सोद करतना दिवाकरमित्र नांवाच्या एका बौध्द भिक्षून ताका आदार दिल्लो. तेन्नाच्यान तो बौध्द धर्माकडे आकर्शित जाल्लो. जिणेच्या निमाण्या काळांत ताका चिनी बौध्द पंडित युआन च्वांग मेळ्ळो आनी ताच्या प्रभावान ताणें महायान पंथाची दीक्षा घेतली, अशें म्हणूं येतालें तरी संशोधकांमदीं हेविशीं दुबाव आसा. ताणें मोनजातीचे हत्त्येचेर बंदी घाल्ली. तशेंच गंगेचे देगेर हजारांनी स्तूप तयार केल्ले आनी वेगवेगळया बौध्द वाठारांत जायते बौध्द मठ स्थापन केल्ले. पूण तो सगळया धर्म पंथांक सारकोच मान दितालो. तशेंच वैदिक ब्राह्मण, बौध्द भिक्षू आनी जैन श्रमण हांचो सारकोच भोवमान करतालो. धर्मीक कार्यांत तो उदार आशिल्लो. दर वर्सा शेंकड्यांनी बौध्द भिक्षुकांक एकठांय आपोवन तो २१ दीस तांची रावपाची आनी जेवपाची वेवस्था करतालो. तांकां भासाभास करपाक सांगतालो आनी तातूंत यश मेळोवपी पंडिताक भरपूर धन दिवन ताचो भोवमान करतालो.

दर पांच वर्सांनी तो एक मोक्षसभा आयोजीत करतालो. त्या वेळार झुजासामुग्री सोडून तो आपलेकडलें सगळें धन लोकांक दान करतालो. अशो स मोक्ष सभा ताणें प्रयाग हांगाच्या त्रिवेणी संगमाचेर भरयल्ल्यो. सवे सभेंत ताच्या आपोवण्यावयल्यान युआन च्वांग थंय हजर आशिल्लो.

ही पंचवार्षिक सभा अडेज ते तीन म्हयने चलिल्ली. सुरवेक सम्राट हर्ष, कामरुपाचो राजा आनी हेर १८ राजांची व्हड मिरवणूक काडपांत आयली. पयल्या दिसा बुध्दाचे मूर्तीची स्थापना केली आनी गरिबांक उंची वस्त्रां आनी वस्तू दान केल्यो. दुसऱ्या दिसा ताणें आदित्य देवाच्यो मूर्ती स्थापन करून पयल्या दिसा दान केल्ल्या वस्तूंपरस अर्दान किंमतीच्यो वस्तू दान केल्यो. तिसऱ्या दिसा ताणें ईश्वर देवाचे मूर्तीची स्थापना करून दुसऱ्या दिसा वांटिल्ल्या वस्तूंपरस कमी किंमतीच्या वस्तुंचें दान केलें. चवथ्या दिसा ताणें १०,००० बौध्द भिक्षूंक दर एकाक १०० भांगराचीं नाणीं, एक मोती, सुती वस्त्र, तरेकवार पेयां, फुलां आनी अत्तर दिलें. उपरांत वीस दीस ब्राह्मणांक दान दिलें. मागीर साधु - बैराग्याक, भिक्षूंक, अनाथ, अपंग आनी दीन - दुबळया लोकांक भिक्षा दितकच ताची सगळी संपत्ती सोंपली. मागीर ताणें आपले सगळे वस्त्रालंकार आनी हेर वस्तूय याचकांक दिवन उडयल्यो. उपरांत ताणें आपली भयण राज्यश्री हिच्याकडल्यान पोरनें वस्त्र घेवन तो न्हेसलो आनी दशभूमीश्वर बुध्दाची पुजा केली.

सम्राट हर्ष दर दिसा १,००० बौध्द भिक्षू आनी ५०० ब्राह्मण हांकां जेवण घालतालो. युआन च्वांग हाचो सत्कार करपाक ताणें कनौज हांगा एक व्हड सभा आयोजीत केल्ली. हे परिशदेखातीर ताणें भारतांतल्या जायत्या धर्मपंथाच्या पंडितांक आमंत्रणां दिल्लीं. ह्या वेळार २० राजे, ३,००० बौध्द भिक्षू ३,००० वैदिक ब्राह्मण आनी जैन आचार्य, नालंदा विद्यापिठांतले १,००० पंडित हजर आशिल्ले. हे सभेखातीर ताणें गंगेदेगेर व्हड मंडप आनी एक व्हड मनोरोय बांदिल्लो. सभामंडपासावन कांय अंतराचेर राजान स्वताखातीर प्रासाद आनी आमंत्रितांखातीर धर्मशाळा बांदिल्ल्यो. दर दिसा बुध्दाची एक ल्हान भांगराची मूत हत्तीचेर दवरून तो वाजत गाजत सभामंडपांत वतालो. तो इंद्राचें रूप धारण करतालो आनी कामरुपाचो राजा कुभार, ब्रह्मदेवाचें प्रतिक म्हूण धवें छत्र धारण करतालो. हे मिरवणुकींत ३०० सजयल्ले हत्ती आसताले. ताचेर युआन च्वांग निमंत्रीत राजे, मंत्री, पंडित आदी लोक बसून वताले.

युआन च्वांग हो महायान पंथाचो आशिल्लो आनी हर्षवर्धन ह्या पंथाक अनुकूल आशिल्लो. परिशदेंत ह्याच पंथाक चड म्हत्व दिवप जातालें. ताकालागून हीनयान पंथाच्या अनुयायांक राग आयलो. ताणीं युआन च्वांगाक मारपाचो कट रचिल्लो. पूण तातूंत ताका यश मेळ्ळें ना.

हर्षान युआन च्वांगाक १०,००० भांगराचीं आनी ३०,००० चांदिचीं नाणीं, तशेंच १०० मोलादीक वस्त्रां दिल्लीं. पूण युआन च्वांगान तें स्वीकारलें ना. देखून थंयच्या उपस्थित लोकांनी ताका 'महायानदेव' आनी 'मोक्षदेव' अशो पदव्यो दिल्यो.

हर्षाच्या राज्यांत बौध्द धर्म हो राजधर्म जाल्लो. ह्या धर्माचो

ताणें खूब प्रसार केलो. हर्ष हो धर्मीक वृत्तीचो, दयाळू आनी प्रजाहितदक्ष आशिल्लो. ताच्या राज्यांत समृध्दी नंदताली. तशेंच जायतीं विद्याकेंद्रांय ताच्या राज्यांत आशिल्लीं. थंय शेंकड्यांनी पंडित वेगवेगळया शास्त्रांचें आनी कलांचें अध्यापन करताले. ताणें बौध्द, जैन, ब्राह्मणी, आदी सगळया प्रकारचीं देवळां निर्माण केल्लीं आनी मठ स्थापन केल्ले. ताचे कारकिर्दीत वेगवेगळया कलांचोय विकास जालो. ताणें जायत्या विद्वानांक आलाशिरो दिल्लो. हर्षचरित आनी कादंबरी हे ग्रंथ रचपी कवी बाणभट्ट ताच्या दरबारांत आशिल्लो. हरिदत्त आनी जयसेन हांकांय ताणें आलाशिरो दिल्लो. हर्षवर्धनान स्वता नागानंद, रत्नावली आनी प्रियदर्शिका ह्या नांवाचीं तीन नाटकां रचिल्लीं.

- कों. वि. सं. मं.

**हलपती, गोपाळ सुक्केर :** (जल्म : ३० जानेवारी १९३०, भामटी - दमण; मरण : ३० मार्च १९७५, दमण).

सुटकेझुजारी. ताणें गुजरातींत प्राथमिक मेरेन शिक्षण घेतलें. सुटकेझुजाच्या काळांत मोती - दमण आनी ताच्या लागसरच्या गांवांनी तो राजकीय वावर करतालो. तेन्ना पोलिसांनी ताका धरलो आनी तीन वर्सांखातीर बंदखणींत दवरलो, दोन वर्सां उपरांत ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो ताम्रपत्र दिवन भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**हलपती, भागुभाय करियाभाय :** (जल्म : १९१६, भिमपूर - दमण).

सुटकेझुजारी. तो रेंदेरपणाचें तशेंच वावर करपाचें काम करतालो. इंडियन नॅशनल काँग्रेस आनी आझाद गोमंतक दल संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. तो चडसो संघटनेच्या भूंयगत वावरांनी वांटो घेतालो. पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरलो आनी पांच वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण अडेज वर्सां आग्वाद बंदखणींत शिक्षा भोगल्या उपरांत ताची सुटका जाली. १५ ऑगस्ट १९७२ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**हलपती, मोहनभाय राधकाभाय :** (जल्म : २ डिसेंबर १९३२, रिंगणवाडा, दमण).

सुटकेझुजारी. ताणें एस्. एस्. सी. मेरेन शिक्षण घेतिल्लें. तो सरकारी प्राथमिक शिक्षक आशिल्लो. तो 'आझाद गोमंतक दल संघटने'चो वांगडी आशिल्लो. १९५६ सावन ताणें राश्ट्रीय वावर करूंक सुरवात केली. जून १९५६ त पोलिसांनी ताका अटक केलो आनी कांयच चवकशी करिनासतना स म्हयने बंदखणींत दवरलो. उपरांत ताका गोंयांत हाडून प्रदेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो केलो आनी ४ वर्सांखातीर बंदखणीची ख्यास्त तेचपरी १२०० रु. दंड भरप ना जाल्यार आनीक दोन वर्सां बंदखण अशी ख्यास्त फर्मायली. फुडें ३० ऑगस्ट १९५९ दिसा बंदखणींतल्यान ताची सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**हस्त :** आश्विन्यादी गणनेंतलें तेरावें नखेत्र. विषुववृत्ताच्या सकयल चित्रा नखेत्रालागसार स तारकांचो जो एक चोमो आसा ताका हस्त अशें म्हण्टात. सविता ही हस्ताची देवता आसा. ह्या चोम्याच्यो तारका ज्योतिशग्रंथांत पांच मानिल्ल्यो आसात, पूण त्यो स आसात. हाच्या उत्तर तोंकाक आशिल्ली एक तारका मंद आशिल्ल्यान ती विचारांत घेवप जायना. जपानी पंख्यावरी हो दिसता. ताच्या मध्यभागार आशिल्ली ठळक तारका म्हळयार त्या हाताचो मणिबंध. दक्षिण तोंकाक आशिल्ली तारका म्हळयार आंगठो आनी मागीर वळीन तर्जनी, मध्यमा आदी बोटांवरी आसात. ह्या तारकांतली मध्यमा ही मनशाच्या हाताच्या मध्यमेवरी लांब आसा आनी कनिश्ठीका अनामिकेक सामकीं चिकटून आसा. हें नखेत्र कन्या राशींत येता. तें चर लघू तिर्यङ्मुख आनी मंदाक्ष तशेंच बायल आसा. हस्त नखेत्राचेर जल्मुपी मनशाक ऐश्वर्यप्राप्ती जाता अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**हळद :** (पळेयात परिशिश्ट).

**हळदणकार, प्रभाकर यशवंत :** (जल्म : २६ एप्रिल १९३२, सिर्सी - बार्देस).

सुटकेझुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटने'चो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत बसकांनी वांटो घेवप. पत्रकां वांटप असलीं कामां तो करतालो. २६ जानेवारी १९५४ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका मिरवणुकींत वांटो घेतिल्ल्याच्या आरोपाखाल अटक केलो. १९५४ - १९५९ हो काळ मेरेन ताका बंदखण भोगची पडली. १९७५ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**हळदणकार, विष्णु मुकूंद :** (जल्म : १० ऑगस्ट १९३५ हळदोणें - बारदेस).

गोंयचो सुटकेझुजारी. ताणें मराठी चवथीमेरेन शिकप केलां. गोंयचे सुटके चळवळी वेळार ताणें वण्टी पत्रकां लावपाचें, तीरंगी बावटो लावपाचें, आपल्या इश्टांक सुटके चळवळींत वांटो घेवंक उत्तेजन हाडपाचें शिवाय म्हत्वाच्या वाठारांनी बाँब आनी हाती दारुगुळो मारपाचें काम केलां. १९५९ वर्सा हळडोणा वाठारांत ताका धरिल्लो

आनी बरोच मार दिवन एक आठवडो बेडी घालून बंदरवणींत दवरिल्लो. शिवाय ताणें आपल्या हेर इश्टांचीं नांवां सांगचीं म्हणून ताका रगत ओंकसर बरोच त्रास दिलो. हाकालागून ताका मागीर शस्त्रक्रिया करची पडली. उपरांत गोंयाक सुटका मेळसर तो बंदरवणींत आशिल्लो. बंदरवणींत ताका बरेच खर शारिरीक त्रास दिल्ल्यान ताच्या मनाचेर आनी शरिराचेर बरोच ताण पडिल्लो. १९७५ वर्सा भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन ताचो भौमान केला. ताणें एकनाथ गोडेकार, रामा केरकार, मधुकर फळारी, गुरूदास चोडणकार, श्रीरंग फळारी, गुरूदास फळारी, पुरूषोत्तम वळवयकार, शिवा हळर्णकार, भिकाजी नायक, अकुंश केरकार आनी विनायक सुर्लकार हांच्या वांगडा काम केलां.

- कों. वि. सं. मं.

**पं. हळदणकार, सुरेश विनायक :** (जल्म : १८ डिसेंबर १९२६, पोंबुर्पे - गोंय).

नामनेचो संगीत नट. ताचें खरें नांव अमृत विनायक हळदणकार. ताचें मुळावें शिकप पोंबुर्प्यांच मराठींतल्यान जालें. उपरांत पुर्तुगेज शाळेंत वचून सेंगुंदग्राव आनी लिसेंवाचें शिक्षण ताणें पुराय केलें. फुडाराक ताणें इंग्लिशींतल्यानय शिकप केलें. ताचो बापूय उत्तम पेटी वादक आसलो. गांवात नेमान जावपी भजन नाटकींची प्रेरणा आनी घरांतल्या लोकांचें प्रोत्साहन मेळिल्ल्यान ताच्या मनात संगिताची ओड निर्माण जाली. संगीत शिक्षणाच्या ध्यासान तो मुंबय गेलो. थंय ताका गोंयकार तबलजी श्री परशुराम कामुलकराचो आदार मेळ्ळो. ताचे वरवीं ताका खाँ साहेब रजबल्ली सारक्या जायत्या संगीतकारांच्या मैफिलींक हजर रावपाचो योग मेळ्ळो.



फुडें तो मौफिली करूंक लागलो. अशेच एके मौफिलीक बॅ. खाजगीवाले आयिल्लो. ताचेर हाच्या गाण्याची भूल पडली आनी ताणें ताका गोंयांतल्यान पुण्याक व्हेलो आनी थंय पं. गोविंदराव टेंबे आनी बापुराव केतकार ह्या दोगांय शिकोवप्यांची नेमणूक करून ताच्या गाण्याच्या शास्त्रोक्त शिकपाक सुरवात केली. तशेंच बापुराव केतकर, मोहनराव पालेकर, पं. जगन्नथबुवा पुरोहीत, गणपतराव देवासकर, मा. कृष्णराव, बालगंधर्व हांचेंय ताका मर्गदर्शन लाभलें.

पिरायेच्या १८ व्या वर्सा ताची पयली ध्वनीमुद्रिका भायर सरली. मास्टर दिनानाथ मंगेशकार आनी बालगंधर्व ह्या दोगूय दिग्गजांची छाप ताच्या गायनाचेर दिसून येता. भारदस्त आवाज ही ताका मेळिल्ली खाशेली देणगी. १९५१ त 'होनाजी बाळा'तलें ताचें काम पळोवन आचार्य अत्रेन ताका 'महाराष्ट्र गंधर्व' ही पदवी भेटयली. इंदूरच्या इंजिनियरींग कॉलेजांत जाल्ले ताचे मौफिलीक भारताचो त्यावेळावयलो पंतप्रधान पं. जवाहरलाल नेहरू हाजीर राविल्लो. ताच्याच हातान नागपुराक सुवर्ण पदक दिवन ताचो भोवमान करपांत आयलो. तेभायर अखिल भारतीय नाट्य परिशदेचें 'बालगंधर्व सुवर्ण पदक', मराठी जागतीक परिशदेचो सन्मान, गोमंतक मराठी अकादमीचें मानद अधिसदस्यत्व अशे जायते मान-सन्मान ताका फाव जाल्यात.

भारत भर ताणें लागीं लागीं ७०० वयर पदांच्यो कार्यावळी केल्यात. महाराष्ट्र आनी गोंयांतल्या रेडिओ केंद्रावयल्यान ताच्यो सुमार ४० रेकॉर्डी वाजतात. कांय काळ मुंबय शिवाजी पार्क हांगा ताणें 'सुरेश कलासंगीत शाळा' चलोवन शेंकड्यांनी नव्या गायक - गायिकांक संगीताचे धडे दिल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**हळर्णकार, गजानन गोविंद :** (जल्म : १५ जून १९१८, एकोशी - बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें मराठी आनी इंग्लीश प्राथमिक मेरेन आनी लिसेंवाचें पयलें वर्स मेरेन शिक्षण घेतलें. १९५५ सावन तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटकेझुजाच्या काळांत 'क्रांती', 'ज्वाला' आनी हेर क्रांतीकारी साहित्य वांटप, आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या वांगड्यांक गुपीत बातम्यो कळोवप असलीं कामां तो करतालो. ९ जून १९५६ ह्या दिसा पोलिकार्पो डी. सिल्वा हाचेवरवीं जस्टीस क्वाड्रोस हाका बाँब पार्सल धाडिल्ले खातीर दुबावान ताका पोलिसांनी अटक केली. प्रादेशिक लश्करी न्यायालया मुखार उबो करून १२ वर्सां बंदरवणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण उपरांत ताच्या घराचेर घाल्ले धाडींत जेन्ना बाँब मेळ्ळो तेन्ना ताची शिक्षा १८ वर्सां केली. फुडें गोंय सुटके उपरांत ताची बंदरवणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताच्या सुटकेझुजाच्या वावराचो भोवमान केलो. १८ जून १९८५ ह्या दिसा गोंय दमण आनी दीव सरकारान ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**हाणपेट :** एक धर्मीक विधी. नेत्रावळीच्या कुळंबी जमातीचो हो विधी आसून तातूंत मुखेल भाग घेवपी वेळीप जमातीचे आसतात. हाणपेट करप्यांक गडे अशें म्हण्टात. सांगे तालुक्यांतल्या नेत्रावळी ह्या गांवांत हो विधी जाता. हाचें स्वरूप धर्मीक उत्सवाचें आसता.

फाल्गुन शु. म्हणजे शिगम्यांतल्या नमीच्या दनपारां गांवचे लोक मांडार एकठांय जमतात. थंय नाल्ल, दिवो दवरून मागणें

करतात. ह्या मागण्यांत तुळस, मांडागुरू ह्या देवतांक व्हड स्थान आसा. मागण्या उपरांत खाशेले स्वरलयींत धोल वाजपाक लागता. परंपरेन थारिल्ल्या मनशाचेर भार येता. देवाकडच्यान उत्सव बरेभशेन जावंचो म्हणून उतर घेतल्या उपरांत हो उत्सव सुरू जाता आनी अशें उतर मेळूंक ना जाल्यार हाणपेट जायना. मागीर परत सांगणें जाता. मांडाचेर मदेगाक पाटाचेर एक कुंवाळो दवरतात. तलवारीच्या एका घावान त्या कुंवाळयाचे दोन कुडके करून ते परत जोडपाचे आसतात. हे दोन कुडके पयलींभशेन जुळळे नात जाल्यार हाणपेटाच्यो जखमो भरून येनात असो समज आसा.

हो विधी जाता आसतना परंपरेन थरिल्ले गडे सोवळे जावन मांडाचेर उबे रावतात. हाणपेटांत भाग घेवप्यांत कांय आंगवण केल्लेय गडे आसतात. कमराक धोंपरावयर घट्ट धोतर, कपलाक गंध, हातांत, गळयांत फुलांच्यो माळो आनी दोनय हातांत उक्त्यो तलवारी असो गड्यांचो भेस आसता. ताशे, धोल आनी थाळयेभशेन धांपर्णी हांच्या तालार गड्यांच्या भोंवतणचे मनीस नेटा नेटान नाचपाक लागतात. मर्दी उबे आशिल्ले गडे तोंडान होंकार दित दोनय तलवारी चारय वटांनी फिरयतात आनी थंयच्या थंयच वांटकुळे नाचत रावतात. तलवारीचे घाव फाटीर, पोटाचेर घेतात. ताकालागून घावे जावन रगत येता. पूण देवाचो शब्द मेळिल्ल्यान घावे रोखडेच भरून येतले म्हणपाचो विश्वास आसता. हे गडे नाचतात त्या दिसा तांकां जायते कडक नेम पाळचे पडटात. तशेंच हाणपेटाच्या दिसा तांणी उपास करचो पडटा. जेन्ना नाच थांबता तेन्ना घावांचेर देवाचें तीर्थ फाफुडटात. मांडावयले हेर मान - पानाचे विधी जातात आनी पयलो दीस सोंपता.

दुसरे दिसा सांजमेरेन गांवांतल्या घराघराच्या आंगणांत आनी शेजारच्या गांवांत हाणपेट खेळटात. हाका 'मेळ नाचप' अशें म्हण्टात. पिसाटलेलीं रणवाद्यां, चित्रविचित्र पोशाख केल्ले गांवचे लोक, मर्दी उगड्यो तलवारी घेतिल्ले गडे असो हो मेळ पदां म्हणत, नाचत गांवांतल्यान भोंवता. ह्या प्रकारांत चौरंग, टाळो आनी आरत अशीं तीन प्रकारांचीं पदां आसतात. तशेंच तांचे विशय पुराणीक कथा, गूढकथा, विचित्रकथा हांचो आस्पाव आशिल्ले आसतात. होळयेन हाणपेट सोंपता. तोमेरेन गड्यांच्या आंगावयले घावे भरून येतात आनी तशें जालेंना जाल्यार त्याखातीर देवस्पण करतात.

- कों. वि. सं. मं.

**हायती :** रेपुब्लिका द हायती. एक प्रजासत्ताक देश. कॅरिबियन दर्यांतल्या वेस्ट इंडीज जुंव्यांच्या चोंब्यांमदल्या हिस्पानिओला जुंव्याचो अस्तंत भाग. जुंव्याचो उदेंत भाग डोमिनिकन देशान रेवडिला. देशाची चडशी भूंय दोंगरी आनी ऊंच सड्यांची आशिल्ल्यान ताका हायती नांव मेळळें. इंडियन भाशेंत हायती म्हळयार ऊंच भूंय. क्षेत्रफळ २७,७५० चौ.किमी. देशाचे उदेंतेक डोमिनिकन प्रजासत्ताक, उत्तरेक अ‍ॅटलांटीक म्हासागर, अस्तंतेक आनी दक्षिणेक कॅरिबियन दर्या आसा. हायती हें निग्रो लोकांचें सगळयांत आदलें प्रजासत्ताक आनी अमेरिका खंडांतलें अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानाफाटलें दुसरें. १८०४ त फ्रेंच वसणूककारांक धांवडावन तांणी स्वातंत्र्य मेळयलें. पोर्त - ओ - प्रिन्स हें देशाचें राजपाटण तशेंच देशांतलें सगळयांत व्हडलें शार.

**भूंयवर्णन :** भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे मुखेलपणान उत्तर द्विपकल्प आनी दक्षिण द्विपकल्प अशे दोन सैमीक भाग जातात. हांचे मदलें जें आखात आसा ताका गोल्फ दे ला गोनावे अशें म्हण्टात. दोनय द्विकल्पां मर्दी आशिल्ल्या जुंव्याक 'इले दे ला गोनावे' अशें म्हण्टात. उत्तर द्विपकल्प अ‍ॅटलांटीक म्हासागरांत रिगिल्लो आसून ताची चडांत चड लांबाय १६० किमी., जाल्यार दक्षिण द्विपकल्प कॅरिबियन दर्यांत पातळळा. ताची चडांत चड लांबाय ३२० किमी. आसा. हे दोनय द्विपकल्प आर्टीबोनायट मळान एकठांय जोडल्यात. हे दोन द्विपकल्प म्हळयार देशांतल्यो दोन पर्वतांवळी आसून, त्यो मुखेलपणान चुनखडीयुक्त आसात. ह्या दोनय पर्वतांचे वळीं मजगतीं आर्टीबोनायट न्हंयेचें रूंद देगण पातळळां. देशांत आस्पाव जावपी टोटूगा जुंवो देशाचे उत्तरेक आसा. पर्वतांचेर कांय प्रमाणांत सॅड्रिला आनी मॉहॉगॅनी प्रकारचीं रानां आसात. आदल्या तेंपार हायतींत बरींच रानां आशिल्लीं. पूण पिकां घेवपाखातीर व्हड प्रमाणांत रानतोड जाल्ल्या कारणान आतां फकत कांय दोंगरी वाठारांनीच रानां दिसतात. हांगाच्या रानांनी पाचन, सेडर, ओक, मॉहॉगॅनी, आकाना हे मदेराक उपेगी पडपी रूख आसात. हांगाचें हवामान सादारणपणान उश्ण कटीबंधीय प्रकारचें. दर्यादेगांनी तापमान २१° ते ३५° सॅ. जाल्यार दोंगरी वाठारांनी तें सादारणपणान १०° ते २४° सॅ. इतलें आसता. उत्तरेकडच्या पर्वतीय प्रदेशांत सरासरी वर्सुकी पावस २०० सेंमी., जाल्यार दक्षिणेकडच्या दर्यादेगांनी तो १०० सेंमी. परस उणो पडटा. जून ते ऑक्टोबर तेंपार कांय वेळार जावपी हुरीकन मोडांक लागून देशाचें खूब नुकसान जाता. ह्या देशांत व्हड आकाराची मोनजात सामकी उणी. जायती ल्हानसान मोनजात आसा. बिळांनी रावपी आनी किडमूय खावपी मोनजातिच्यो खूब जाती आसात. सरपटपी मोनजातींत मानगें, इगुना आनी शेडुयांचो आस्पाव जाता. स्थलांतर करून आयिल्लीं आनी थळावे जातीची मेळून सुमार २०० वयर जातींचीं सुकणीं हांगा आसात.

**इतिहास :** क्रिस्तिफोर कोलंबस १४९२ त हिस्पानिओला जुंव्याचेर पावलो. ताचें 'सान्ता मारीया' हें तारूं तडीक मुंगरलें. कोलंबसाच्या सांगात्यांनी त्या तारवाच्या फळयेसावन सद्याच्या कॅप हायतियान ह्या शारांत कोट उबारलो. कोलंबसान ताका 'फोर्ट नविदाद' अशें नांव दवरलें.कोलंबस आपलें तारूं घेवन फुडें गेल्याउपरांत ताचे कांय सांगाती त्या कोटाची राखण करपाखातीर त्या जुंव्याचेरच रावले. पूण त्या जुंव्याचेर रावपी आरावाक इंडियन

लोकांनी कोलंबसाच्या सांगात्यांक जिवेशीं मारून कोट मोडून उडयलो. उपरांत कोलंबसान जुंव्याच्या उदेंत भागांत भांगरा सोद लायलो. हाका लागून हेर स्पॅनिश भोंवडेकार थंय येवन रावले. खणींतल्यान भांगर काडपाक आनी गरजू पिकां काडपाखातीर स्पॅनिश लोक थळाव्या इंडियन लोकांक राबोवपाक लागले. ते लोक इंडियन लोकांकडेन सामके क्रूरतायेन वागताले. हाचो परिणाम म्हळयार १५३० मेरेन इंडियन लोकांची संख्या खूब उणी जाली. हाका लागून स्पेनिश वसणूककारांनी आफ्रिकेंतल्यान निग्रो गुलामांक हाडले.

सोळाव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन पेरू आनी मेक्सिको प्रदेशांतल्यो वसणुको भरभराटीक येवपाक लागल्यो. तशे हिस्पानिओला जुंव्यावयले स्पेनिश लोक थंय वचपाक लागले. हाचो परिणाम म्हळयार १६०६ मेरेन हिस्पानिओला जुंव्याचेर कांय मोजकेच स्पेनिश लोक उरले. हाका लागून स्पेनाच्या राजान स्पेनिश वसणूककारांक थंय परतून वचपाचें फर्मान काडलें. फुडें इंग्लीश, फ्रेंच आनी डच चाच्यांनी हिस्पानिओला जुंव्याचो उत्तर आनी अस्तंतेकडचो बरोच व्हडलो प्रदेश हातासलो. टोर्टूगा जुंव्याचो ते डावपेचाखातीर उपेग करताले. हांगाच्यानच ते भांगर आनी रुपें घेवन येवपी स्पेनिश तारवां लुट्टाले. स्पेनिशांनी चाच्यांक धांवडावन घालपाचे खूब यत्न केले. पूण तांकां यश मेळ्ळेंना. १६९७ त फ्रेंचांनी हिस्पानिओलाचो अस्तंत भाग, म्हळयार सद्याचो हायती देश हातासलो. तांणी त्या भागाक सेंट दुमिंग अशें नांव दवरलें. फ्रेंच वसणूककारांनीय आफ्रिकेंतल्यान गुलाम हाडून थंय मसाल्याचे आनी कॉफीचे व्हड मळे उबारले. हाचो परिणाम म्हळयार १७८८ मेरेन हांगा फ्रेंच वसणूककारांपरस खांप्री लोक आठ पटींनी चड आशिल्ले. ह्या तेंपार फ्रेंचांच्या हेर वसणुकांपरस सेंट दुमिंग वसणूक चड भरभराटीक आयिल्ली.

१७९१ त फ्रेंच क्रांती वेळार हांगाच्या खांप्री लोकांनी फ्रेंच वसणुककारांआड बंड उबारून तांचे व्हड मळे आनी शारांचो विध्वंस केलो. टोसेंट ले ओवरटर ह्या खांपऱ्यान सत्ता आपल्या हातांत घेवन थंय शांतता प्रस्थापित केली. पूण १७९९ त फ्रांसांत नेपोलियन सत्तेर आयल्या उपरांत ताणें कॅरिबियेनांत व्हड सैन्य धाडून टोसेंटाक बंदखणींत उडयलो. पूण हांगाच्या हवामानाचो फ्रेंच सैन्याचेर दुश्परीणाम जावन खूब सैनीक दुयेंत पडले, जाल्यार कांय जाणांक मरण आयलें. हे परिस्थितीचो फायदो घेवन खांप्री बंडखोरांनी १८०३ त फ्रेंच सैन्याचो पराभव केलो. १ जानेवारी १८०४ दिसा खांपऱ्यांचो मुखेली जनरल जीन जॅकी डेसलायन हाणें सेंट दुमिंग वसणूक स्वतंत्र जाल्ल्याची घोशणा करून तिका हायती नांव दिलें.

डेसलायन हो हायतीचो पयलो राश्ट्राध्यक्ष जालो. पूण १८०६ त ताची हत्त्या जाली, तेन्ना अलॅक्झांडर पेशन आनी हेन्री क्रिस्तोफर ह्या दोन जनरलांभितर सत्तेखातीर सर्त सुरू जाली. अलॅक्झांडरान हायतीचो दक्षिण भाग जाल्यार हेन्रीन उत्तर भाग हातासलो. १८१८ त जी पॅरी बॉयर हाणें अलॅक्झांडराची सुवात घेतली. १८२० त क्रिस्तोफर हाणें आत्महत्त्या केल्या उपरांत बॉयरान दोनय प्रदेश परतून एकठांय हाडले. १८२१ त बॉयरान हिस्पानियोलाच्या उदेंत भागार घुरी घालून स्पेनिश वसणूक आपल्या शेकातळा हाडली. १८४४ त वसणूककारांनी ती वसणूक परतून हातासली. मुखावयल्या ७० वर्सांभितर वेगवेगळया ३२ हुकूमशाहांनी हायतीचेर आपली जुलमी राजवट चलयली. ह्या तेंपार देशांतली राजकीय तशेंच भौशिक स्थितीय तंग आशिल्ली.

राजकीय आनी भौशिक अस्थिरतायेचो हेर देश फायदो घेत म्हूण १९१५ त अमेरिकेचो अध्यक्ष वुड्रोविल्सन हाणें थंय व्हड सैन्य धाडलें. हायती लोकांनी ताका खूब विरोध केल्लो. पूण अमेरिकन सैन्याक थंय स्थिरताय हाडपाक यश आयलें. तांणी थळाव्या सरकारच्या तेंक्यान हायतींत रस्ते, शाळा आनी हॉस्पिटलां बांदलीं. तशेंच नितळसाणेचेर चड भर दिल्लो. तांणी परकी रिणां फारीक करपांतूय हात भार लायिल्लो. अमेरिकी सैन्य थंय १९३४ मेरेन आशिल्लें. अमेरिकेन आपलें सैन्य काडून घेतल्या उपरांत मुखावयल्या दोन राश्ट्राध्यक्षांनी देशाची अर्थीक स्थिती सुदारपाचे यत्न केले. ते खातीर तांणी परकी गुंतवणुकेक उत्तेजन दिलें. पूण हाचो लाव फकत उच्च वर्गीय लोकांकच जालो. १९४६ उपरांत देशांत परतून अस्थिरताय आयली. १९५० त सैनीक अधिकारी पाउल मॅगलोयर राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. ताणें १९५६त आपल्या पदाक सोडचीट दिली. पूण १९५७ मेरेन देश सैनिक अधिकारांच्याच शेकातळा उरलो. उपरांत फ्रान्सिस्को डुवॅलियर हो राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. ताणें १९७१ मेरेन मरसर हुकूमशाही राजवट चलयली. उपरांत ताचो चलो जीन हो राश्ट्राध्यक्ष जालो. ताणेंय देशाचेर हुकूमशाय चलयली. तांणी देशाचें सैन्य आनी गुपीत पोलीस खातें आपल्या नियंत्रणाखाल दवरिल्लें. तांच्या आदारानच तांणी आपली हुकूमशाय गाजयल्ली. सैन्य आनी पोलिसांच्या छळांक, तशेंच इबाडिल्ले अर्थीक स्थितीक लागून १९७० मेरेन साबार हायती लोक देश सोडून गेल्ले.मार्च १९८७ त हायती लोकांनी जीन सरकाराआड उठाव करून ताका धांवडावन घालो. उपरांत जनरल हेन्रीनॅम्फी हाणें राजकीय सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. मार्च १९८७ त हायतीन नवें संविधान आपणायलें. ह्या संविधानान लोकशाय पद्दत आपणायल्ली. जानेवारी १९८८ त लेसली मॅनिगॅट हो राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. पूण जून १९८८ त जनरल नॅम्फीन ताका सत्तेभायरो करून देशाची सत्ता आपल्या हातांत घेतली. सप्टेंबर १९८८ त जनरल एवरील हाणें सत्ता काबीज केली. मार्च १९९० त ताच्या कॅबिनेट वांगड्यांनी ताका विरोध केल्ल्यान ताका आपलें पद सोडचें पडलें. डिसेंबर १९९० त जाल्ले वेंचणुकेंत लोकांनी जीन ॲरिस्डायड ह्या रोमन कॅथलीक पाद्रीक राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून काडलो. पूण १९९१ त सैनिकी उठाव जावन ताका

सत्तेभायरो केलो. खांप्री लोकांत स्वातंत्र्य मेळिल्लो हो पयलो देश. पूण जुलमी हुकूमशाय राजवटीक लागून देशांतलें वातावरण आजुनय तंग आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**हारसो :** परावर्तनान (Reflection) वस्तुंच्यो प्रतिमा (Images) निर्माण करपी साधनाक हारसो अशें म्हण्टात. कंवचेक एके वटेन लेप (Plating) दिल्ले हारशे आसतात. तशेंच धातुच्या गुळगुळीत पृश्ठाचेय (Plane) आसतात. हारशाक 'दर्पण' अशेंय म्हण्टात.

कंवचेचे हारशे आनी ते तयार करपाची कृती भारतीय लोकांक प्राचीन काळासावन खबर आशिल्ली. पूण हारशे भारतांत केन्ना प्रचारांत आयले हें निश्चित सांगप कठीण. प्राचीन उत्खननांत सांपडिल्ल्या हारशांत एक हारसो काशाच्या (Bronze) मिश्रधातूचो आसा. 'कुमारसंभवात' शिवान पार्वतीक एक मणिदर्पण दिल्ल्याचो उल्लेख कालिदासान केला.

इट्रस्कन, ग्रीक आनी रोमन लोक ब्राँझ धातुचे हारशे वापरताले. ह्या हारशाची एक बाजू बहिर्गोल (Convex) आनी चकचकीत आसताली, जाल्यार दुसरी बाजू सपाट वा कोरीव - काम (Design) केल्ली आसताली. कथिल (Tin) आनी रुपें हांचो मुलामो आशिल्ले कंवचेचे हारशे सिडॉन हांगा तयार करताले असो उल्लेख प्लिनी हाणें केला. इ.स. प. चवथ्या शतकांतले कांय ग्रीक हारशे सांपडल्यात. इ.स. पयलींचीं कांय शतकां धातुच्या पत्र्याक चकाकी हाडून तयार केल्ले ल्हान हारशे प्रचारांत आशिल्ले.

मध्ययुगाच्या काळांत, कंवचेक धातुंचे ल्हान कुडके लावन हारशे तयार करताले. १३७३ त कंवचेचे हारशे तयार करतल्यांची एक संस्था न्यूरेंबर्ग हांगा आशिल्ली. सोळाव्या शतकाचे सुरवेक जर्मनींत बर्हिगोल आरशे करताले. वेपारी पद्दतीन हारशे तयार करपाक सगळयांत पयलीं व्हेनिस हांगा सुरवात जाली. १५६४ त व्हेनिसांत कंवचेचे हारशे तयार करपी कारखानदारांनी एक संस्था स्थापन केली. तांच्या कंवचेच्या हारशांक लागून धातुंचे हारशे फाटीं पडले. सपाट कंवचेचे हारशे करपाची पद्दत फ्रांसांत १६९१ त सुरू जाली. १८३५ त रासायनिक पद्दतीन कंवचेचेर चांदीचो मुलामो दिवपाची पद्दत लीबिश हाणें सोदून काडली. पूण पांच वर्सांनी ती प्रत्यक्षांत अंमलात आयली. हालींच्या काळांत इटलींतल्या व्हेनिस शारांत आनी बेल्जियम देशांत तयार जाल्ले हारशे बरे प्रतीचे अशें मानतात.

कंवचेचेर मुलामो दिवपाखातीर पारो, कथिल, अमोनियम सिल्व्हर, नायट्रेटांतलें आल्डिहायड, रुपें, भांगर, प्लॅटिनम, पॅलॅडियम, ऱ्होडियम, इरिडियम, तांबें, बाश्पीकृत (Vaporised) ॲल्युमिनियम हीं रसायनां वापरतात. चकाकी बरी येवची म्हूण तांबें - कथिल ह्या मिश्रधातूंत आर्सेनिक, ॲंटिमनी वा जस्त घालतात. चकाकी नाका आसत जाल्यार कंवचेक थायोयूरिया लायतात.

**हारशे तयार करपाची कृती :** हारशे तयार करच्यापयलीं कंवचेक कसलोच दोश उरचो न्हय म्हूण ती नितळ धुतात. नितळ करपाखातीर अल्कोहॉल, ॲसिटोन, खडवाचो वस्त्रगाळ पिठो, स्टॅनस क्लोरायड, उर्ध्वपतित उदक (Distilled Water) हीं रासायनिक नदरेन शुध्द रसायनां वापरतात. रुप्याचो लेप थंड पद्दतीन दिल्यार रुप्याचे सूक्ष्मस्फटिक जावन कंवचेचेर बेस बरे चिकट्टात. मुलाम्याची जाडी १ दशलक्षांश सेंमी. आसता. मुलामो जाय तितलो जालो म्हण्टकच कंवचेंतल्यान दिवो निळो दिसपाक लागता. मागीर हारसो धुवन सुकयतात आनी ताचेर फवारो दिवन रंग वा लाख लायतात. ताका लागून लेपाची राखण जाता. तेभायर रुपें ६००° सॅ. तापमानाच्या वयर तापोवन मुलामो दितात.

लेप करपाखातीर प्लॅटिनीक क्लोराईड वा क्लोरोप्लॅटिनिक अम्ल वापरल्यार धातू बरो चिकट्टा आनी ताचेर डाख (Solder) दिवपाक मेळटा. मिश्रणांतल्या ऑक्सायडाक लागून ओलसाण आनी चिकटसाण वाडटा. व्हडा प्रमाणांत हारशे तयार करपाचे आसल्यार यंत्रां वापरतात.

**प्रकार :** अंतर्गोल (Concave), बहिर्गोल (Convex), गोल (Spherical), सपाट (Plane), अन्वस्ताकृती (Parabolic) अशे वेगवेगळ्या आकारांचे हारशे आसात.

**गुणधर्म :** हारशावयल्यान उजवाड परावर्तित जावपाचें प्रमाण हें १) आपाती (Incident) किरणांचो हारशाच्या पृष्ठभागाकडे घडिल्लो कोन २) पृष्ठभागाची सफाई ३) हारसो कसल्या पदार्थांचो केला ह्या तीन गजालींचेर अवलंबून आसता. हारसो जितलो चड गुळगुळीत आनी चकचकीत आसत तितलो उजवाड चड परावर्तित जाता. पूण उत्कृश्ट हारशापसून लेगीत उजवाड पुराय परावर्तित जावंक पावना.

**उपेग :** मोटार, स्कूटर, सायकल आदी वाहनांच्या दिव्यांचे परावर्तक (Reflector) अंतर्गोल (Concave) वा अन्वस्ताकार (Parabolic) हारशाचे आसतात. मोटार चलयतना चालकाक फाटली येरादारी दिसची म्हूण बहिर्गोल (Convex) हारशे वापरतात. दंतवैजाच्या दिव्यांतूय अंतर्गोल (Concave) हारसो बसयल्लो आसता. चित्रपट - निर्मितींतल्या उजवाडा येवजणेंत धातुंचे सपाट हारशे वापरतात. शोधक दिव्यांत (Search light) अन्वस्ताकृती हारशे वापरतात. चलचित्रपट प्रक्षेपक, (Cine - Projector), परिदर्शक (Periscope), सूक्ष्मदर्शक (Microscope) ह्या उपकरणांतय हारशे वापरतात. झोताच्या दिव्यांत आनी सूर्यप्रकाशाचेर चलपी भट्टेंत धातुंचे हारशे वापरतात. तापमानांत बदल जावन कंवचेचे हारशे वेरेतात (फुट्टात) म्हूण ते धातूपसून करतात. कॅमेरा वा दूरदर्शक (Telescope) हातूंत वापरील्ल्यो हारशाच्यो कंवच्यो प्रकाशकी (Optics) कामाखातीर

योग्य अशो घेवन ताचेर रुप्याचो मुलामो दितात. कांय चित्रपटघरांत हारशाचो रजतपट (Mirror Screen) प्रयोगाखातीर वापरतात. बँक, पोलिस कचेरी, हॉस्पिटल हातूंत पारदर्शक (Transparent) हारशे वापरतात. ह्या हारशांतल्यान भायलें सगळें दिसता पूण भायल्या मनशांक भितल्ले मनीस आपणाक पळेता तें कळना.

प्रसाधनाखातीर सपाट हारशे पयलींसावन वापरांत आसात. घराच्यो कुडी सुशोभित करपाखातीर हारशे वापरतात. मध्य प्रदेशांतल्या इंदूर हांगाचो हारसे - महाल प्रसिद्द आसा. हॉटेल, रेस्टॉरंट, केशकर्तनालय, आगगाडयो, मोटारी, विमानां आनी कचेरी हातूंत हारशांचो सर्रास वापर जाता. बायलांच्या पोशाखांतूय बारीक बारीक हारशे बसयतात. मुदयेंत हारशे बसोवपाची प्रथा राजस्थान आनी माळवा भागांत आसा. तिका 'हारशी' अशें म्हण्टात.

**भारतीय उद्योग :** सदच्या वेव्हारांत उपेगाक येवपी हारशे भारतांतच तयार करतात. शास्त्रीय उपकरणांत वापरपाचे आनी खास प्रकारचे हारशे आयात करतात. भारतांत पयलीं बेल्जियम, जर्मनी, जपान, हंगेरी ह्या देशांतल्यान हारशे आयात करताले.

**ज्योतिशशास्त्रीय हारशे :** (Astronomical Mirrors) न्यूटन हाणें १६६८ त परावर्ती दूरदर्शकाचो (Reflecting Telescope) सोद लायलो. १८५६ त ज्योतिशशास्त्रीय हारशे धातुंचेच वापरताले. पूण हे हारशे रोखडेच पिडुयार जाताले आनी खगोलीय वेध घेवपाक खंड पडटालो. देखून, १८६५ त कार्ल ऑगस्ट फोन श्टाइनहायल हाणें दूरदर्शकांतल्या हारशांखातीर रुप्याच्या पटलाचें (Film) योग्य अशें परावर्तक पूट (Scale) दिवपाची पद्दत सोदून काडली. हें पटल (Film) खराब जाल्यार अम्लाच्या सहाय्यान काडून उडोवन ताच्या जाग्यार रासायनिक पद्दतीन दुसरें पटल घालपाक मेळटा. हालींच्या काळांत पटलाच्या जाग्यार हारशाच्या फुडल्या पृश्ठभागाचेरय भौतिकीय पद्दतीन ॲल्युमिनियमचो मुलामो दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**हाराकिरी :** जपानांतलो आत्महत्येचो एक प्रकार. जपानांतल्या समुराई ह्या झुजारी लोकांनी ही पद्दत सुरू केल्ली. दावेकडल्यान उजवेकडे आनी उपरांत गळयाकडे सुरी तोपून घेवन आत्मबलिदान करपाचो हो प्रकार आसलो तरी तातुंतल्यान समुराईंचें धैर्य आनी स्वतावयलो ताबो उक्तो जातालो.

हाराकिरी हो शब्द जपानाभायरय प्रचलित आशिल्लो. हाराकिरीचे मुखेलपणान दोन प्रकार मानपांत येतात - १) इच्छिक आनी २) गरज म्हणून. इच्छिक हाराकिरी बाराव्या शतमानांतल्या झुजाकाळांत जल्माक आयली. झुजांत हार मेळटकच दुस्मानांच्या हाताक मेळून अपमानाची जीण जगचे परस आपली जीण सोंपोवपाचो प्रकार जायत्या झुजाऱ्यांनी आपणायिल्लो. जपानांतलो समुराई हो पारंपारीक झुजारी सैनिकांचो वर्ग संरक्षणावांगडाच कुळाच्या संगोपनाची जबाबदारीय ह्या वर्गाचेर आसताली. ताकालागून केन्ना केन्नाय आपल्या मालकाविशीं स्वामीनिश्ठा दाखोवपाखातीर, श्रेश्ठींचीं आनी शासनाचीं कांय धोरणां पसंत पडलीना जाल्यार निशेध करपाखातीर वा आपल्या कर्तव्यांत कमी पडल्यार प्रायश्चीत घेवपाखातीर हाराकिरीचो प्रकार आपणावप जातालो. जपानांत अशा इच्छिक हाराकिरीचीं जायतीं उदाहरणां आसात.

गरजे उद्देशी हाराकिरीचो प्रकार देहान्ताचे ख्यास्ती स्वरुपांत आसतालो. हाची सुरवात पंदराव्या शतमानांत जाली. इ.स. १८७३ मेरेन ही पद्दत चालींत आशिल्ली. हातूंत एका खास विधीचो आस्पाव केल्लो. सादारणपणान साक्षीदारामुखार हो विधी करताले. हो साक्षीदार अधिकारी मनशान धाडिल्लो आसतालो. बंदखणींत घाल्ल्या मनशाक एका तांबडया आसनाचेर बसयताले. ताच्या फाटल्यान ताचो एखादो सोयरो वा इश्ट कोणतरी उबो आसतालो. बंद्यामुखार एक सुरी दवरिल्लें ल्हान मेज आसतालें ते सुरयेर आपली तकली तोंपून तो आत्मसमर्पण करतालो. जपानाच्या इतिहासांत समुराईंच्या हे हारकिरीक बरीच म्हत्वाची सुवात आशिल्ली. पूण फुडल्या काळांत अस्तंत्यांच्या अनुकरण सुदारणांक मेळिल्लें प्रोत्साहन, राजकीय आनी समाजीक स्थित्यंतरां हाकालागून समुराईंचें म्हत्व उणें जायत गेलें. तांणी जपानांतल्या हेर मळार म्हळ्यार शेती, वेपार उद्देग हातूंत प्रवेश केलो आनी ताकालागून हाराकिरीची पद्दत फाटीं पडली.

- कों. वि. सं. मं.

**हॉकी :** एक मैदानी खेळ. ह्या खेळांत एका खाशेल्या आकाराचे बडयेन (हॉकी स्टिक) बॉल प्रतिस्पर्ध्याच्या गोलांत मारप जाता. ह्या खेळांत एका पंगडाचे इकरा खेळगडे आसतात. हो खेळ सपाट तणाच्या मैदानाचेर वा खाशेल्या गलिच्याचेर (turb field) खेळटात. खेळांगण १०० यार्ड (९१ मी.) लांब आनी ६० यार्ड (५५ मी.) रूंद आसता. खेळांगणाचे मदले वळीक (central line) ५० यार्ड लायन अशेंय म्हण्टात. गोल मारपाचें वांटकूळ (striking circle) गोल लायनीक तेंकून मारिल्लें आसता. गोल लायनिच्या मध्य भागाचेर गोल कॅज आसून ताच्या दर एका खांब्याची उंचाय ७ फूट उंच (२.१३ मीटर) आनी त्या दोनूय खांब्यामदले अंतर १२ फूट (३.६६ मीटर) आसता. ह्या दोनूय खांब्याक क्रॉसबार जोडिल्ले आसतात. ह्या खांब्याक आनी क्रॉसबारांक जाळी बसोवन गोल कॅज तयार करतात. बॅकबोर्ड ही जाळयेक बसयल्ली फाटलेवटेनची फळी. बॅकबोर्ड १८ इंच (४७ सेंमी) ऊंच आनी ४ यार्ड (३.७ मी.) लांब आसता. सायडबोर्ड ४ फूट लांब (१.२२ मी.) आनी १८ इंच ऊंच आसता. हॉकी खेळाक केन्ना आनी खंय सुरवात जाली हें सांगपाक सद्यामेरेन शक्य जालेना. पूण पुर्विल्ल्या ग्रीक कोरांतिल्ल्या चित्रांत खेळगडे

वांकडच्यो तिकडच्यो बडयो घेवन एक बारीक वस्तू घेवन खेळटात तें दाखयलां. खूब शेंकडे मेरेन ह्या खेळाचेर फकत दादल्यांचोच शेक आसलो. उपरांत १८८९ त ऑल इंग्लंड वुमन्स् हॉकी असोसियनाची स्थापणूक केली. १९०८ त पयली खेप दादल्यांच्या हॉकी खळाचो आस्पाव ऑलिंपीक खेळांत केलो. जाल्यार बायलांच्या हॉकी खेळाचो ऑलिंपीक खेळांत १९८० त आस्पाव केलो. 'इंटरनॅशनल हॉकी रुल्स बोर्ड' ही संस्था हॉकी खेळाचे सगळे नेम थारायता.

हॉकीचो दर एक खेळगडो एका खाशेल्या आकाराची बडी घेवन हो खेळ खेळटा. हे बडयेक हॉकी स्टीक अशें म्हण्टात. हे बडयेचें फुडलें तोंक वाटकुळें आसून तें दावे वटेन सपाट जाल्यार उजवे वटेन वाटकुळें आसता. बॉल मारपाखातीर बडयेचो फकत सपाट भागूच वापरतात. चडशे खेळगडे ८६ ते ९४ सेंमी. लांबायेची हॉकी स्टीक वापरतात. बॉल धव्या रंगाचो आसून ताचो परिघ २३ सेंमी. जाल्यार वजन १६० ग्रॅम आसता. ह्या बॉलाचे भितल्ले वटेन रबर वा कॉर्क आसता आनी भायल्यान घट्ट पॉलियुरेथीनचें कवर आसता.

हॉकी खेळ दोन भागांनी विभागिल्लो आसून दर एक भाग ३५ मीटरांचो आसता. मध्यांतरा वेळार पंगड आपली बाजू बदलता. दर एका पंगडाचे इकरा खेळगडे आसून, सादारणपणान तांच्यातले पांच फुडें (forward), तीन मदीं (half back ), दोन फांटी (full back) आनी एकलो गोलकिपर आसता. ह्या खेळाखातीर दोन पंच आसतात. स्ट्रायकींग सर्कलांतल्यान बॉल गोलांत मारल्यारच आनी बॉल गोललायनीक तेंकल्यारच गोल जाता. जो पंगड चड गोल मारता तो जैतिवंत थारता.

हॉकी खेळ पासबॅक करतकच सुरू जाता. खेळ सुरू करपाक संद मेळपी पंगडाचो एक खेळगडो मध्यभागाचेर दवरिल्लो बॉल हॉकी स्टिकान आपल्याच पंगडांतल्या दुसऱ्या खेळगड्याकडेन धुकलता. बॅकपास करतना बॉल सेंट्रल लायनीफुडें वचपाक जायना. तशेंच खेळ सुरू करतना विरोधी पंगडाचे खेळगडे बॉलासावन ४.५ मीटर पयस रावपाक जाय. तशेंच खेळ सुरू करता आसतना दोनूय पंगडाचे खेळगडे आपआपल्या अर्दांत आसपाक जाय. ह्या खेळाच्या नेमाप्रमाण बॉल खेळगड्याच्या खंयच्याच भागाक लागपाक जायना. तशेंच धोकादायक पद्‌दतिनय बॉल मारपाक जायना. खेळगड्यान आपली हॉकीस्टीक आपल्या भुजावयर उखलपाक जायना. गोलकिपर बॉल आपले स्टीकीन, पायांनी, हातांनी वा हेर खंयच्याय भागान फकत स्ट्राकींग सर्कलांत रावन आडोवपाक शकता. भारतांत १८८० त ब्रिटीश कामगारांनी हॉकी खेळ खेळपाक सुरवात केली. सुरवेक ते आदले पद्‌दतिच्योच हॉकीस्टिकी आनी बॉल घेवन खेळटाले. १८८५ त कलकत्ता शारांत पयल्या हॉकी क्लबाची स्थापना जाली. उपरांत थंयच्यान भारताच्या हेर भागांनीय हो खेळ लोकप्रिय जालो. बॅगटॉन कप आनी आगाखान टूर्नामैंट ह्यो हांगाच्यो मुखेल हॉकी सर्ती. १९२५ त ग्वॉलीयर शारांत भारतीय हॉकी फेडरेशनाची स्थापना जाली. १९२८ त ॲमस्टरडॅम शारांत जाल्ले ऑलिंपीक सर्तींत हॉकी खेळांत भारतान पयलेखेप वांटो घेतलो. ते सर्तींतल्यो सगळयो मॅची जिकून भारतान भांगरापदक मेळयलें. ऑलिंपीक सर्तींत भारतान परतून १९४८, १९५२, १९५६, १९६४ आनी १९८० त भांगरा पदक मेळयलें. पूण भारतान १९७५ त संवसारीक वस्तादपण फकत एकदाच मेळयलां. भारताखेरीज हॉकी खेळ पाकीस्तान, ब्रिटन, आर्जेंटिना, ऑस्ट्रेलिया, कोरिया, न्युझीलंड, हॉलंड, जर्मनी, मलेशीया, पोलंड, स्पेन, चीन ह्या देशांनीय चड लोकप्रिय आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**हिंग :** (पळेयात परिशिश्ट).

**हिंदी भास आनी साहित्य :** उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश, बिहार, दिल्ली, हरियाणा, राजस्थान, पंजाबाचो थोडो भाग आनी हिमाचल प्रदेश मेळून हिंदी क्षेत्र म्हणटात. हांचे वांगडाच पंजाब, महाराष्ट्र, गुजरात, बंगाल आनी गोंयांत तिचो संपर्क भाशेच्या रुपांत प्रयोग जाता.

हिंदी भास भारतीय आर्य भास कुळयेची मुखेल भास आसा आनी तिचो विकास धाव्या शेंकड्यांत 'खडी बोली' कडल्यान जालो. संस्कृत भाशेकडल्यान ती उद्‌भवल्या. हिंदी भाशेच्या उद्‌भव आनी विकासाक सकयल दिल्ल्या कालखंडांत विभाजित केला -

१. संस्कृत - ख्रिस्ता आर्दी १९०० ते ख्रिस्ता आर्दी ५०० मेरेन,
२. पाली -ख्रिस्ता आर्दी ९०० ते पयल्या शेंकड्या मेरेन,
३. प्राकृत - पयलो शेंकडो ते ९०० मेरेन,
४. अपभ्रंश - ९०० ते १००० शेंकड्या मेरेन.

ख्रिस्ताच्या १००० व्या शेंकड्या मेरेन पावता पावता म्हळयार पुराय भारत देशांत अपभ्रंश भाशेचीं खूब रुपां प्रचलित आशिल्लीं. शौरसेनी, पैशाची, महाराष्ट्री, मागधी, ब्राचड, अर्धमागधी आदी. अपभ्रंश भाशेच्या ह्या रुपांक लागूनच आधुनिक भारतीय भासो विकसीत जाल्यो. हिंदी, पंजाबी, उर्दू, काश्मीरी, सिंधी, गुजराती, मराठी, बंगाली, उडिया आनी असमिया. ह्यो भासो अपभ्रंश भाशेंतल्यानच विकसित जाल्यात. अपभ्रंश भासय पाली-प्राकृत भाशेंतल्यान आयल्या. ह्या सगळया भासां भितर संस्कृत भाशेचे शब्द खूब प्रमाणांत मेळटात. इतलेंच न्हय तर संस्कृत व्याकरणांचे नेम तांकां समान रुपांत लागू जातात.

हिंदी भाशेचो उद्‌भव १० व्या शेंकड्यांत अपभ्रंश भाशेंतल्यान शौरसेनी, अर्धमागधी आनी मागधी रुपांतल्यान जालो. चडकरून मेरठ - दिल्लीच्या लागसारची ती 'खडी बोली' आशिल्ली. तिचो हजार वर्सांचो इतिहास डॉ. भोलानाथ तिवारी तीन भागांनी वांटटा -

आदिकाळ, मध्यकाल आनी आधुनिक काल.

**आदिकाळ (सन १००० ते १९००) :** ह्या काळांत हिंदी भास अपभ्रंश भाशेक खूब लागीं आशिल्ली. ताकाच लागून भाशे ध्वनीचो विचार करताना जे ध्वनी अपभ्रंश भाशेंत आशिल्ले तेच हिंदींतय दिश्टी पड्टात. तशेंच आदिकालीन हिंदीचें प्रारंभिक व्याकरणय अपभ्रंश भाशेकडल्यान प्रभावित आशिल्लें. ल्हव ल्हव हिंदींत आपलें व्याकरण विकसित जांवक लागलें आनी अपभ्रंश भाशेचें रूप कमी जायत गेलें. हिंदी वाक्यरचनेचो क्रम निश्चित जावंक लागलो. अपभ्रंश संयोगात्मक भास आशिल्ली पूण आदिकालीन हिंदींत वियोगात्मक रुपां वाडत गेलीं. हिंदी भाशेचें शब्द - भंडार ह्याच युगांत वाडलें. भक्ती आंदोलनाक सुरवात जाल्ल्यान तत्सम् शब्द प्रयोगांची परंपरा वाडली. मुसलमानी आक्रमणाक लागून अरबी, पश्तो, फारसी तशेंच तुर्की भासांचे शब्दप्रयोग हिंदींत जावंक लागले. अपभ्रंश भाशेचें प्रचलित पोरने आनी गरज नाशिल्ले वा कमी गरज आशिल्ले शब्द एक तर काडून उडयले वा ते आपशींच कमी जायत गेले.

१३ व्या वा १४ व्या शेंकड्यांत 'खडी बोली' हिंदीचो पयलो कवी अमीर खुसरो हाणें आपली रचना हिंदींत बरयली. ताणें लोकांचे भाशेंत, लोकांच्या मनोरंजना खातीर 'पहेलियां, मुकरियां आनी गजल' बरयली. ह्या युगाचे मुखेल साहित्यकार - गोरखनाथ, विद्यापति, नरपति नाल्ह, चन्दबरदायी आनी संत कबीर. ह्या रचनाकारांनी खडी बोली हिंदी वा आपली बोली - डिंगल, मैथिली, दक्किनी, अवधी आनी व्रज आदींत आपली रचना केल्ली.

**मध्यकाळ (सन १५०० ते १८००) :** ह्या काळांत हिंदी भास व्याकरण, ध्वनी तशेंच शब्द भंडार हांचे नदरेन विचार केलो जाल्यार संपन्न जायत गेली. अपभ्रंश रुपांचो त्याग करून जें किते बाकी उरलें त्या रुपाक हिंदी भितर आत्मसात करून घेतलें. दरबारांत फारसी भाशेचो प्रयोग आनी शिक्षणाक लागून उच्च वर्गीय लोकांत फार्सीचो प्रचार जालो. हाका लागून उच्चवर्गीय लोकांत तशेंच हिंदी साहित्यांत क,ख,ग,ज, फ हे पांच नवे ध्वनी तयार जाले. हिंदी वाक्य - रचनाय फार्सी भाशेक लागून प्रभावित जावंक लागली. अरबी, फार्सी, तुर्की आनी प्श्तो भासांचे सुमार स हजार शब्द हिंदीत घोळूंक लागले. परसर्ग आनी सहायक / पालवी क्रियांचो प्रयोग वाडलो. आदिकालीन भाशेची तुळा केल्यार भास आनीक वियोगात्मक जायत रावली. ह्या काळांत भक्ती आंदोलन आपली पराकाश्ठा प्राप्त करता जाकालागून धर्म तशेंच धार्मिक साहित्य वाड्टा.

धार्मिक भावना प्रधान स्वरुपांतल्यान आशिल्ल्या कारणान तत्सम शब्दांचो आंकडो आशिल्लो ताचे परस अधिक वाडलो. पुर्तुगेज, इंग्लीश, स्पेनिश आनी फ्रांसीसी हांचे आगमन भारत देशांत जालें तेन्ना तांच्या भासांचे शब्दूय हिंदी भाशेन आपणायले, वांगडा हेर भासांचो प्रभावय दिसूंक लागलो. धर्म - प्रधानता आशिल्ल्या करणान राम आनी कृष्ण संबंधीत सुवातीच्या बोलींनी रचिल्लें साहित्यय मुखेल रुपांत दिश्टी पड्टा. ह्या काळांत हिंदीच्यो वेगवेगळयो बोली - दक्खिनी, अवधी, ब्रज, उर्दू, खडी बोली, मैथिली, डिंगल आदी. हांचे भितर साहित्यिक रचना जाली, पूण अवधी आनी ब्रजभाशेंत रचिल्लें साहित्य मुखेल रुपांत प्रसिद्द जालें. ह्या काळाचे प्रमुख साहित्यकार तशेंच भक्त - कवी सूरदास, मीरा, तुलसीदास, केशवदास, जायसी, भूषण, देव आनी बिहारी आसात.

**आधुनिक काळ (सन १८०० ते आतामेरेन) :** ह्या काळांत हिंदी जन - संपर्क भाशेच्या रुपांत स्थापित जाली. फाटल्या दोनशें वर्सांचो विचार केल्यार ज्ञान - विज्ञान तशेंच तंत्रज्ञानाचो प्रसार आनी विकास जाला तो लोकांमेरेन पावोवपाक ही भास माध्यम जाली. एकोणिसाव्या शतमानांत काव्य - भाशेच्या रुपांत ब्रज भासच उरली. पूण गद्य - भास 'खडी बोली' हिंदी जावंक पावली. दक्षिणेकडेन पाविल्ले खडी बोलीचें एक स्वतंत्र रूप जालें, जाका दक्खिनी हिंदी नांव पडलें, तशेंच ती भाशेंत खूब प्रमाणांत साहित्यिक रचनाच जावंक लागली.

ह्या काळांत पारसीचे ध्वनी क़, ख़, ग़, ज़, फ़ आदी प्रचलित जाले. पूण १९४७ त भारत स्वतंत्र जाले उपरांत हे ध्वनी कमी जायत गेले आनी तांच्या जाग्यार क, ख, ग, ज, फ ह्या ध्वनींचो प्रयोग सुरू जालो. इंग्लीश भाशेंतले 'ऑ' ध्वनीय हिंदी भितर सर्वस्वीकृत जाले. हिंदीच्या बोलींनी - ब्रज, अवधी, भोजपुरी, मैथिली आदी - हांचीं स्वतंत्र व्याकरणां विकसित जालीं. हिंदी पुराय रुपांत एक वियोगात्मक भास जाली. भारतेन्दु, हरिश्चंद्र आनी महावीर प्रसाद द्विवेदी हांच्या यत्नाक लागून हिंदी भाशेचें एक प्रमाण व्याकरणीक रूप जावंक पावलें. मुद्रण कलेच्या विकासाक लागून तशेंच प्रेस, रेडियो, दूरदर्शन, संगणक हांच्या प्रभावाक लागून हिंदीचे एक मानक स्वरूप तयार जालां. हातूंत आचार्य महावीर प्रसाद हांचें योगदान चड आसा. आयज वेगवेगळी साहित्यिक विधा अंतर्गत हिंदी मुखेल भास जाल्या, तिचें विशाल साहित्यिक भंडारूय आसा. ह्या काळांतल्या मुखेल साहित्यकारांची नांवां अशीं आसात - भारतेन्दु, महावीरप्रसाद द्विवेदी, प्रेमचंद, जयशंकर प्रसाद, सूर्यकांत त्रिपाठी 'निराला', आचार्य रामचंद्र शुक्ल, महादेवी वर्मा, सुमित्रानंदन पंत, अज्ञेय, मुक्तिबोध, नागार्जुन, रामविलास शर्मा, हजारी प्रसाद द्विवेदी, त्रिलोचन आदी.

स्वातंत्र्या उपरांत १४ सप्टेंबर १९४९ त भारत देशाचे संविधान सभेन भारत संघाची राजभास रुपांत हिंदीचो स्वीकार केलो. संविधान अनुच्छेद ३४३ नुसार संघाची राजभास हिंदी आसा. लिपी देवनागरी आसा. आयज राजभास तशेंच संपर्क भास ह्या रुपांत हिंदीचो भारताच्या सगळयां राज्यांनी उपेग जाता. साहित्य, गिन्यान, विज्ञान, शिक्षण, व्यापार, वाणिज्य, तंत्रज्ञान, दर्शन आनी मनोरंजना खातीर तिचो वापर जाता. तशेंच उत्तरोत्तर स्वरुपांत ती

विकसित जायत रावल्या.

हिंदीचे परंपरेत तिच्यो वेगवेगळयो बोलीय प्रचलित आसात तशेंच तांचो प्रयोगय निरंतर चालूच आसा.

**हिंदीच्यो पोट भासो :**

| भास | पोटभास | बोली |
|---|---|---|
| हिंदी | १. अस्तंती हिंदी | क) खडी बोली वा कौरवी |
| | | ख) ब्रजभास |
| | | ग) हरियाणवी (बांगरू) |
| | | घ) बुंदेली |
| | | च) कनौजी |
| | २. उदेंती हिंदी | क) अवधी |
| | | ख) बघेली |
| | | ग) छत्तीसगढी |
| | ३. राजस्थानी | क)मारवाडी (अस्तंती राजस्थानी) |
| | | ख) जयपुरी (उदेंती राजस्थानी) |
| | | ग) मेवाती (उत्तरी राजस्थानी) |
| | | घ) मालवी (दक्षिणी राजस्थानी) |
| | ४. पहाड़ी | क) अस्तंती पहाड़ी (कुमाउंनी) |
| | | ख) मध्यवर्ती पहाड़ी (गढ़वाली) |
| | | ग) मंडियाली (हिमाचली बोली) |
| | ५. बिहारी | क) भोजपुरी |
| | | ख) मगही |
| | | ग) मैथिली |

**केंद्रीय हिंदी निदेशालय द्वारा निर्धारीत मानक हिंदी वर्णमाला**

**स्वर** - अ आ इ ई उ ऊ ऋ ए ऐ ओ औ

मात्रा - ा ि ी ु ू ृ े ै ो ौ

व्यंजन - क ख ग घ ङ
च छ ज झ ञ
ट ठ ड ढ ण ड़ ढ़
त थ द ध न
प फ ब भ म
य र ल व
श ष स ह ळ

संयुक्त व्यंजन - क्ष त्र ज्ञ श्र
अनुस्वार - ं (अं)
विसर्ग - : (अः)
अनुनासिकता चिह्न - ँ (चंद्रबिन्दु)
हल् - चिह्न - ् (ड्)
गृहीत ध्वनियाँ / (विदेशी भाशाओंसे) - ऑ (ॉ), ख़, ज़, फ़

आपणायल्ले ध्वनी : स्वरांचें उच्चारण स्वतंत्र रुपांत जाता आनी तांचीच मदत घेवन व्यंजनांचें उच्चारण करूं येता. व्यंजनांचें उच्चारण स्वरांचे मदती बगर करूंक जायना. स्वरांचो आंकडो ११ आनी व्यंजनांचो आंकडो ३३ आसात.

स्वरांचे भेद : उच्चारणांत जो वेळ लागता त्याच्या आधारान हिंदी भाशेंत स्वरांचे दोन भेद केल्यात - क) ह्रस्व स्वर (मोटवो), ख) दीर्घ स्वर (लांब).

मोटवे स्वर : ज्या स्वरांच्या उच्चारांत कमीत कमी वेळ लागता ताका मोटवो स्वर म्हण्टात. हाका मूळ स्वरूय म्हण्टात. हें चार आसात - अ, इ, उ, ऋ

लांबोडे / लांब स्वर : ज्या स्वरांच्या उच्चारांत मोटव्या स्वरा परस दुपटीन वेळ लागता ताका लांबोडे स्वर म्हण्टात. हिंदी भाशेंत ते सात आसात - आ, ई, ऊ, ए, ऐ, ओ, औ.

व्यंजनांचे भेद : हिंदी भाशेंत व्यंजनांचे भेद खूब तरांनी केल्यात. पूण तांचे मुखेल भेद अशें आसात -

१. स्पर्श (स्पोटी व्यंजनां)
२. अंतस्थ (अर्द - स्वर)
३. ऊष्म (घांसडी, स्पोट - घांसडीं व्यंजनां)

१) स्पर्श (Mutes) : हांकां पांच वर्गांत वांटल्यात आनी एक एक वर्गांत पांच पांच व्यंजनां आसात. दर एक वर्गाचें नांव तांच्या वर्ण अनुसार दवरलां. जशें -

क वर्ग - क्, ख्, ग्, घ्, ङ्
च वर्ग - च् छ् ज् झ् ञ्
ट वर्ग - ट् ठ् ड् ढ ण् (ड़् , ढ़्)
त वर्ग - त् थ् द् ध् न्
प वर्ग - प् फ् ब् भ् म्

२) अन्तःस्थ /अर्द स्वर (semivowel) : चार आसात - य् र् ल् व्.

३) ऊष्म / घांसडी, स्पोट - घांसडी व्यंजना (sibilants): चार आसात - श् ष् स् ह्.

**उच्चाराचे सुवाते प्रमाण केल्लें व्यंजनांचें वर्गीकरण -**

वर्ण

| स्थान | स्वर | स्पर्श | अंतःस्थ | ऊष्म | नाम |
|---|---|---|---|---|---|
| कण्ठ | अ आ | क्, ख्, ग्, घ्, ङ् | - | ह् | कण्ठ्य वर्ण (मोव ताळवे वर्ण) |
| ताल | इ ई | च् छ् ज् झ् ञ् | य् | श् | तालव्य वर्ण (ताळवे वर्ण) |
| मूर्धा | ऋ | ट् ठ् ड् ढ ण् ड़् ढ़ | र् | ष् | मूर्धन्य वर्ण (खोंपये वर्ण) |
| दन्त | - | त् थ् द् ध् न् | ल् | स् | दन्त्य वर्ण (दांतयें वर्ण) |
| ओष्ठ | उ ऊ | प् फ् ब् भ् म् | - | - | ओष्ठ्य वर्ण (ओंठयें वर्ण) |
| नासिका | - | ङ् ञ् ण् न् म् | - | - | नासिक्य वर्ण (नाकयें वर्ण) |
| कण्ठतालु | ए ऐ | - | - | - | कण्ठ - तालव्य वर्ण (मोव ताळ ताळवे वर्ण) |
| कण्ठोष्ठ | ओ औ | - | - | - | कण्ठोष्ठ्य वर्ण (मोव ताळवे ओंठयें) |
| दन्तोष्ठ | - | - | व | - | दन्तोष्ठ्य वर्ण (दांत - ओंठयें) |

शब्द विचार (Etymology) : एक वा अदीक वर्ण एकठांय येवन घडिल्ल्या स्वतंत्र सार्थक ध्वनीक शब्द म्हण्टात. हिंदी भाशेंत शब्दांचें वर्गीकरण चार तरांनी करतात.

१. अर्थाचे नदरेन - क) एकार्थी
ख) अनेकार्थी
ग) पर्यायवाची वा समानार्थी
घ) विलोभ वा विपरीतार्थी

२. प्रयोगाचे नदरेन - क) सामान्य शब्दावलीचे शब्द
ख) शब्द / तंत्रज्ञानाचे
ग) शब्द / अर्द तंत्रज्ञानाचे

३. इतिहासीक नदरेन - क) तद्‌भव
ख) तत्सम्
ग) देशी वा देशज
घ) विदेशी वा विदेशज

४. रचनेचे नदरेन - क) रूढ़
ख) यौगिक आनी
ग) योगरूढ़

व्याकरणीक विवेचनाचे नदरेन रूप परिवर्तनाच्या आधारार शब्दांक दोन भागांनी वांटल्यात : क) विकारी ख) अविकारी

क) विकारी शब्द : ज्या शब्दांचें रुपांतरण जाता ताका विकारी शब्द म्हण्टात. विशेषनाम, सर्वनाम, क्रिया विशेशण हे विकारी शब्द आसात.

ख) अविकारी शब्द : ज्या शब्दांच्या रुपांत केन्नाच खंयचेंच परिवर्तन जायना तांका अविकारी शब्द म्हण्टात. हातूंत क्रिया विशेषण, संबंध बोधक, समुच्चय बोधक (जोड) आनी उद्‌गारी वा उमाळी शब्द येतात.

शब्द रचना : एका शब्दाक लागून अनेक अर्थांची अभिव्यक्ती. हेतु जें नवीन नवीन शब्द घडयता ताका शब्द - रचना म्हण्टात. ती चार तरांनी जाता - १. उपसर्ग लावून २. प्रत्यय लावून ३. संधी वरवीं ४. समास वरवीं

उपसर्ग (prefix) : हे शब्दांश शब्दाचे सुरवेक लागतात आनी अर्था भितर विशेशता हाड्टा, नाजाल्यार ताचो अर्थ बदलून दिता, ताका उपसर्ग म्हणटात. हिंदी भाशेंत जे उपसर्ग वापरतात ते अशे आसात - अ, अन, अध औ, दु, कु, क, स, सु, बिन, नि, बर आदी.

प्रत्यय (suffix) : जे शब्दांश शब्दाच्या शेवटाक लागून ताचो अथ बदलता ताका प्रत्यय म्हण्टात. हे दोन प्रकारचे आसतात - क) कृत प्रत्यय ख) तत्‌धित प्रत्यय.

संधी : दोन लागीं लागींच्या वर्णाच्या परस्परक मेळाक लागून जो विकार वा परवर्तिन जाता ताका संधी म्हण्टात. देरवीक देव+इन्द्र=देवेन्द्र. संधीचे तीन प्रकार आसतात - क) स्वर संधी ख) व्यंजन संधी ग) विसर्ग संधी.

समास (compound noun) : संक्षिप्तीकरणाचे विधिक समास म्हण्टात. समास म्हळ्यार असली शब्द रचना जातूंत दोन वा दोना परस अदीक अर्थाचे दृश्टिक लागून परस्पर स्वतंत्र संबंध दवरपी स्वतंत्र शब्द, रचनेचें आंग आसता. हिंदीत समासाचे चार भेद आसात - क) अव्ययीभाव समास ख) तत्पुरूष समास ग) द्वंद्व समास घ) बहुव्रीही समास. तत्पुरूष समासाचे दोन भेद - कर्म धारय आनी द्विगु समासय प्रचलित आसात.

पद - विचार : हिंदी भाशेंत जेन्ना खंयचोय शब्द वाक्यांत घोळटा तेन्ना तो व्याकरणाच्या नेमांत बांदून उरता, आनी असल्या शब्दाक पद म्हण्टात. हिंदीत पांच प्रकारचे पद प्रयुक्त जातात - विशेशनाम, सर्वनाम, क्रिया, विशेशण, अव्यय.

विशेशनाम : खंयचीय व्यक्ति, स्थान, वस्तु आदी आनी नामाचे गुण, धर्म, स्वभाव आदींचो बोध जाता, त्या शब्दाक नाम म्हण्टात. संज्ञाचे / नामाचे मुखेल तीन भेद आसतात -
क) व्यक्तिवाचक / विशेशनाम - मोहन, हिमालय, दिल्ली, गंगा आदी. ख) जातिवाचक नाम - मनीस, नारी, दोंगर, न्हंय. ग) भाववाचक

नाम - भुरगेंपण, गिरेस्तकाय, जाण्टेंपण, गोड, कडू.

कांय जाणकारांच्या मतान द्रव्यवाचक नाम आनी समूहवाचक नाम हे आनीक दोन भेद आसात.

नामाचीं विकारक तत्त्वां (Declension of nouns) : ज्या तत्वांच्या आधारार नाम, सर्वनाम विशेशण हांचें रुपांतरण जाता ताका विकारक तत्व म्हण्टात. हीं तत्वां वाक्यांत शब्दांचे स्थितीचेर आधारून येतात. शब्दांत लिंग, वचन आनी कारक हांका लागून विकार येता.

लिंग : हिंदी भाशेंत दोन लिंगां प्रचलित आसात - पुल्लिंग आनी स्त्रीलिंग.

वचन : हिंदीत दोन वचनां आसतात - एकवचन आनी बहुवचन.

कारक : कारक शब्दाचो शाब्दिक अर्थ आसा क्रिया करपी. अर्थात क्रियेक पुराय करपाक खंयचीय भूमिका चलोवपी शब्द. नाम वा सर्वनामा उपरांत ( ने, को, से, के लिए - हिंदीत) चिन्न लागता ताका कारक - विभक्ती म्हण्टात. हिंदी भाशेंत आठ कारक आसतात तें अशें आसात - कारक - विभक्ती चिन्न

१. कर्ता - ने

२. कर्म - को

३. करण - से, के साथ, द्वारा

४. संप्रदान - के लिए को

५. अपादान - से (वेगळावपी)

६. संबंध - का, की, के

७. अधिकरण - में, पर

८. संबोधन - हे ! हा ! अरे !

सर्वनाम : नामां खातीर वा ताच्या जाग्यार वापरूं येता असले शब्द म्हळ्यार सर्वनाम. हिंदींत सर्वनामांचे स भेद आसात -

१. पुरुशवाचक सर्वनाम

२. निश्चयवाचक सर्वनाम

३. अनिश्चयवाजचक सर्वनाम

४. संबंधवाचक सर्वनाम

५. प्रस्नवाचक सर्वनाम

६. निजवाचक सर्वनाम

विशेशण : नाम वा सर्वनाम शब्दांची विशेशता गुण, दोश, संख्या, परिमाण आदी दाखोवपी शब्द विशेशण जाता. ज्या शब्दाची विशेशता दाखयता ताका विशेश्य म्हण्टात. हिंदीत विशेशणाचे चार भेद मानल्यात -

१) गुणवाचक २) परिमाणवाचक ३) संख्यावाचक ४) सार्वनामीक वा संकेतवाचक

क्रियापद : क्रिया म्हळ्यार तो शब्द (पद) जाका लागून खंयचेंय कार्य करपाचो वा खंयचेय प्रक्रियेंत वा स्थितीत आसपाचो बोध जाता. क्रियेचें मूळ रूप आसता ताका धातु म्हण्टात. तातूंत 'ना' प्रत्ययाचो योग जाता आनी सामान्य रूप तयार जाता देखीक - पढ़ना, लिखना, खाना, चलना आदी. क्रियापदाचे मुखेल दोन भेद आसात - १. अकर्मक क्रियापद २. सकर्मक क्रियापद

काळ (Tense) : क्रियेच्या ज्या रुपाक लागून कार्य संपन्न जावपाचो वेळ (काळ) कळटा ताका काळ म्हण्टात. काळाचे तीन भेद आसात - १. भूतकाळ २. वर्तमानकाळ ३. भविश्यकाळ

वाच्य (Voice) : क्रियेच्या ज्या रुपाक लागून कळटा की वाक्यांत क्रिये वरवीं संपादित विधानाचे विशय, कर्ता, कर्म आसा वा भाव आसा ताका वाच्य म्हण्टात. हिंदीत तीन प्रकाराचे वाच्य आसात - १. कर्तृवाच्य / कर्तरी प्रयोग २. कर्मवाच्य / कर्मणी प्रयोग ३. भावेवाच्य / भावे प्रयोग

अव्यय : लिंग, वचन, पुरुश, काळ हांचे नदरेन ज्या शब्दांत रूप परिवर्तन जायना ताका अव्यय म्हण्टात. हिंदींत अव्ययाचे मुखेल चार भेद आसात -

१. क्रियाविशेशण अव्यय (Adverb)

२. संबंधबोधक अव्यय (Preposition)

३. समुच्चयबोधक अव्यय (Conjunction)
जोड

४. विस्मयादि बोधक अव्यय (Interjectional)
उमाळी / उद्गारी

विरामचिन्नां : भाशेच्या लिखित स्वरुपांत थांबप वा विरामाखातीर कांय संकेत चिन्नांचो वापर जाता ताका विराम - चिन्न म्हण्टात. हिंदींत मुखेल विराम - चिन्नांचे रूप सकयल दिल्लेवरी आसात -

१) पूर्णविराम (।) २) अर्ध विराम (;)
३) अल्पलिराम (,) ४) प्रस्नचिन्न (?)
५) उदगार चिन्न (!) ६) विभाजक (-)
७) अवतरण (" ") ८) विवरण चिन्न (:-)
९) कंस ( ) १०) त्रुटीपुरक (^) (<) ( / )
११) संक्षेप सूचक (0)

**हिंदी साहित्य :** हिंदी साहित्याच्या इतिहासाक लागीं लागीं एक हजार वर्सां जालीं. हिंदी साहित्याचो उगम आनी विकास हिंदी भाशेच्या उगमा आनी विकासा वांगडाच जुळिल्लो आसा. एकुणिसाव्या शेंकड्या पयलीं हिंदींत कवी आनी लेखकांचें जिवीत आनी कर्तृत्व हांचेर कांय ग्रंथ बरोवन जाल्ले. हातूंत 'चौरासी वैष्णवन की वार्ता', 'दो सौ बावन वैष्णव वन की वार्ता', 'भक्तमाला', 'कविमाला' आनी 'कालिदास हजारा' आदि मुखेल ग्रंथ आसात. पूण ह्या सगळ्यां भितर कवी आनी लेखकांच्या संबंदांत काल-क्रम सन्-संवत आदिंचो अभाव आसा. हाका लागून हिंदी साहित्याचेर वेवस्थीत अशी माहिती

ह्या ग्रंथांनी मेळना.

**हिंदी साहित्याचो इतिहास :** लेखन परंपरेंत सगळयांत पयलीं फ्रेंच विद्वान 'गार्सा द तासी'चें नांव येता. फ्रेंच भाशेंत बरयल्ल्या 'इस्त्वार द ला लितरेत्युर एन्दुई ऐन्दुस्तानी' ग्रंथांत वर्णक्रमान हिंदी आनी उर्दूच्या अनेक रचनाकारांचें वर्णन मेळटा. हाचो पयलो भाग सन १८३९ त आनी दुसरो भाग १८४७ त प्रकाशित जाल्लो. सन १८७१ त हाचें दुसरें संशोधात संस्करण तीन भागांनी प्रकाशित जाल्लें. ह्या ग्रंथांत चुको आसल्यो तरीय हिंदी साहित्याची इतिहास लेखन-परंपरा ह्याच ग्रंथा उपरांत सुरू जाल्या अशें मानतात. हे परंपरेंत दुसरो यत्न शिवसिंह सेंगर हाणें केला. सन १८८३ त बरयल्ल्या 'शिवसिंह सरोज' ह्या पुस्तकांत ताणें हिंदी भाशेंतल्या एक हजार कवींचें जीवन-चरित आनी कवितांच्यो पती सादर करतनाच रचना-काल, जल्म आदिची म्हायती दिल्या. सन १८८८ त प्रसिद्द जाल्लो जॉर्ज ग्रियर्सन हाणें रचिल्ल्या 'द मॉडर्न वर्नेक्युलर लिटरेचर ऑफ हिन्दुस्तान' हो शास्त्रीय पद्दतीन बरयल्लो हिंदीचो पयलो इतिहास. ह्या पुस्तकांत लेखकांच्या वर्गीकरणा वांगडा तांची प्रवृत्तिय स्पश्ट करपाचो यत्न केला. ग्रियर्सन हाणें भाशेचे नदरेन हिंदी साहित्याचें क्षेत्र निर्धारीत केलें. नवो इतिहास बरोवप्यां खातीर हो ग्रंथ मार्गदर्शक जालो.

ग्रियर्सना उपरांत मिश्रबन्धु हाणें 'मिश्रबन्धुविनोद' नांवाच्या एका ग्रंथाची रचना केली. सन १९१३ त हाचे पयले तीन भाग प्रकाशित जाले. चवथो भाग १९३४ त प्रकाशित जालो. हातूंत पांच हजार हिंदी लेखक, कवी रचनाकारांचें कालक्रमानुसार वर्णन केलां. उपरांत सन १९२९ त आचार्य रामचंद्र शुक्ल हाणें हिंदी साहित्याचो इतिहास बरयलो. आतां मेरेन जितके इतिहास बरोवन जाल्यात तातूंत सगळयां परस स्पश्ट, जाणकार, प्रामाणिक आनी शास्त्रीय असो हो ग्रंथ आसा अशें जाणकार मानतात. ह्या इतिहास ग्रंथांत सुमार एक हजार हिंदी लेखक आनी रचनाकारांच्या रचनांचें साहित्यिक मूल्यांकन, हिंदी साहित्याची मुखेल प्रवृत्ती, विचारधारा तशेंच युगाचें सम्यक विवेचन सरळ आनी स्पश्ट भाशेंत केलां. ह्या ग्रंथा उपरांत पन्नास वर्सांनी आचार्य हजारी प्रसाद द्विवेदी हाणें 'हिंदी साहित्याची भूमिका', 'हिंदी साहित्याचो आदिकाल' अशा रचनांनी इतिहासिक नदरेन तथ्य आनी निश्कर्श दिवन ह्या विशयांत म्हत्वपूर्ण भर घाल्या. हांचे शिवाय दुसऱ्या विद्वानांनीय हिंदी साहित्य इतिहास - लेखन परंपरेंत विशेश योगदान दिलां. तांचीं नांवां अशीं आसात -
डॉ. रामकुमार वर्मा (हिन्दी साहित्यका आलोचनात्मक इतिहास); डॉ. नगेन्द (रीति - काव्यकी भूमिका); डॉ. गणपतिचंद्र गुप्त (हिन्दी साहित्यका वैज्ञानिक इतिहास); डॉ. रामस्वरुप चतुर्वेदी (हिन्दी साहित्य और संवेदनाका इतिहास); डॉ. बच्चन सिंह (हिन्दी साहित्यका दुसरा इतिहास); डॉ. वासुदेव सिंह (हिन्दी साहित्यका समिक्षात्मक इतिहास); आचार्य रामचंद्र शुक्ल हाणें जमयल्ले म्हायती प्रमाण हिंदी साहित्याचो इतिहास चार भागांत विभागला.

१. आदिकाल वा वीरगाथा काल : सन ९९३ ते १३१८ मेरेन.
२. पूर्व मध्यकाल वा भक्तिकाल सन : सन १२१८ ते १६४३ मेरेन.
३. उत्तर मध्यकाल वा रीतिकाल : सन १६४३ ते १८४३ मेरेन.
४. आधुनिक काल : सन १८४३ पसून हें विभाजन भोवतेक हिंदी विद्वानांनी चड उण्या प्रमाणान मानून घेतलां.

**१) आदिकाल वा वीरगाथा काल :** कांय विद्वान ह्या काळाचो प्रारंभ ७६९ सावन मानतात. राहुल सांकृत्यायन हाणें 'सरहपाद' नांवाच्या सिध्द कविचो काळ सन ७६९ स्वीकारला. डॉ. शिवसिंह सेंगर हाच्या विचारा प्रमाण सातव्या शतमानांत 'पुष्प' वा 'पुण्ड' नांवाचो कवी हिंदीचो पयलो कवी जाता. हिंदीची पयली रचना जैन आचार्य देवसेन रचित 'श्रावकाचार' मानप जाता. डॉ. नगेन्द्र साहित्याक अध्यायनाचे सोयी खातीर आदिकाल ६ भागांत विभाजीत करता - १. सिद्ध साहित्य २. जैन साहित्य ३. नाथ-साहित्य ४. रासो साहित्य ५. लौकिक साहित्य आनी ६. गद्य - रचना.

१. सिद्ध साहित्य : बौद्ध धर्माचे वज्रयान शाखेच्या सिद्धांनी हें साहित्य बरयल्लें. राहुल सांकृत्यायन हाणें चौद्यांयशीं सिद्धां विशीं बरयलां. हातूंत सरहपा, शबरपा, लुइपा, डोम्भिपा, कण्हवा आनी कुक्कुरिया सिद्ध कवींचीं नांवां मुखेल आसात. सरहपा सगळयां परस व्हड सिद्ध कवी आसा. सरोजवज्र, राहुलभद्र, सरहपाद आदि. हांणी ३२ ग्रंथ रचिल्ले, तातुंतल्यान दोहाकोश चड प्रसिद्द जालो. हाच्या शिवाय शतरपाची रचना चर्यापद; डोम्भिपाची डोम्बि-गीतिका; योगचर्याची अक्षरद्विकोपदेश, तशेंच लुइपा, कण्हपा, कुक्कुरिया हांच्यो रचना चड प्रसिद्द आसात.

२. जैन साहित्य : हिंदी कवितांचें माध्यम आपणावन सिद्धांनी बौध्द धर्माचो वज्रयान मताचो प्रचार पूर्व क्षेत्रांत केलो तर जैन साधुंनीं अस्तंती क्षेत्रांत कवितेचेंच माध्यम आपणावन आपल्या मताचो प्रसार केलो. हातूंत जैन तीर्थंकरांचें जीवन - चरित तशेंच वैष्णव अवतारांची कथा रास शैलींत बरयली. ह्या कवींनी आचार, फागु रास आनी चरित शैलींत जैन काव्याची रचना केली. जैन मंदिरांत रावपी श्रावक रातचे रास - गायन करताले 'रास ग्रंथ' खूब प्रसिद्द जाले. पूण वीरगाथांच्या रासो ग्रंथां परस वेगळे आशिल्ले. दोहा छन्दा भितर जैन आचार्य हाणें सन ९३३ त श्रावकाचार नांवाच्या काव्य-ग्रंथाची रचना केली. ११८४ त शालिभद्र सूरि हाणें 'भरतेश्वर - बाहुबली रास' हाची रचना केली. रास ग्रंथांचे परंपरेंत आसगु कविचें 'चन्दनबालारास', जिनधर्मसूरिरचित 'स्थूलिभद्ररास', विजयसेनसूरि रचित 'रेवंतगिरिरास' आनी सुमति गणि रचित 'नेमीनाथ रास' प्रसिद्द आसात.

३. नाथ साहित्य : राहुल सांकृत्यायन हाच्या मता प्रमाण

नाथ-पंथ हो सिद्धांचे परंपरें विकसित रूप आसा. हो पंथ सुरू करपी मत्स्येन्द्रनाथ आनी गोरखनाथ आशिल्ले. सिद्धांची वाम-मार्गी भोग-प्रधान योग - साधना हांची प्रतिक्रिया म्हणून नाथ पंथाची स्थापना जाली. ह्या पंथाची विशेशता म्हळयार हठयोग - साधना आसा. नारी साहचर्याच्या आचारांत घूस्पून उरिल्ल्या मत्स्येन्द्रनाथाचो उद्धार तांचो शिश्य गोरखनाथ हाणें केलो. नाथ-पंथी नारी-भोगाचो विरोध करताले. विद्वान तांचो काळ आठवो शेंकडो ते तेरावो शेंकडो मानता. गोरखनाथ हाणें चाळीस ग्रंथ बरयल्यात, पूण सगळे ग्रंथ उपलब्ध नात. डॉ. पीताम्बर दत्त बड़थ्वाल हाणें गोरखनाथ हाची साहित्य रचना संकलन 'गोरखबानी' नांवा खाला संकलीत केल्या. हठयोग - उपदेश दितना तो म्हण्टा 'ह' चो अर्थ 'सूर्य' आनी 'ठ' चो अर्थ 'चंद्र' आसा. ह्या दोगांकय हठयोग म्हण्टात. भक्तिकाल अंतर्गत ज्ञानमार्गी संत-काव्य ह्याच साहित्याच्या विकासांतल्यान निर्माण जाला. हे परंपरेंत दुसरीं नांवां अशीं आसात - चौरंगीनाथ, गोपीचंद चुणकरनाथ, भरथरी, जलन्ध्रीपाव. संत कबीराचेरय नाथ-पंथी प्रभाव खूब आशिल्लो.

४. रासो साहित्य : हें साहित्य जैनांच्या रास साहित्या परस वेगळें आसा. ह्या साहित्याचो मुखेल विशय राजाचें जीवन-चरित्र, ताची तोखणाय अशा वीरगाथापुरक कथांचें चित्रण आसा. राजाच्या दरबारांतल्या राजकवीक मरण आयलें तर फुडले पिळगेचो कवी फाटले रचनेंत आपलें योगदान दितालो. हाका लागून कांय रासो ग्रंथांचीं खूब संस्करणां मेळटात आनी मूळ रचनाकाराचें नांव निश्चीत करप कठीण जाता. ह्या ग्रंथांतले खूबशे अंश प्रक्षिप्त आसात आनी देखून तांच्या मूळ रुपाविशीं जायते आक्षेप आसात - १) खुमाण रासो - (दलपत विजय); २) बीसलदेव रासो - (नरपति नाल्ह); ३) हम्मीर रासो - ( शार्ङ्गधर); ४) परमाल रासो - (जगनिक); ५) पृथ्वीराज रासो - (चंद्रबरदायी). हे मुखेल रासो ग्रंथ आसात. हातूंत पृथ्वीराज रासो हो सगळयांत चड नामना मेळिल्लो ग्रंथ. बाराव्या शेंकड्यापसून सतराव्या शेंकड्यामेरेन पृथ्वीराज रासोचीं चार संस्करणां मेळटात. ('अतिबृहद', 'बृहद', 'लघु' तशेंच अतिलघु). हातूंत दिल्लीचो राजा पृथ्वीराज चौहान आनी मुहम्मद घोरीची कथा आसा. चंदबरदायी हो पृथ्वीराजाचो मंत्री आशिल्लो.

५. लौकिक - साहित्य : आदिकालांत स्वच्छंद रुपांतलें कांय लौकीक साहित्य निर्माण जालें. प्रमुख ग्रंथ अशे आसात - १) ढोला मारू रा दूहा : इकराव्या शेंकड्यांत बरयल्लें दोहारुपांतलें एक लोकभाशा काव्य. ताच्या रचनाकारासंबंदीं एकमत ना. शैलींत बरयिल्लें हें काव्य कुशलराय कवीन संकलीत केला अशें काय जाणकारांचें मत आसा. अस्तंती हिंदी प्रदेशांत तें लोकप्रिय आसा. हातूंत ढोला नांवचो राजकुंवर आनी मालवणी नांवाची राजकुंवरीची प्रेमकथा सांगल्या. २) जयचंद - प्रकाश आनी जयमयंक जसचंद्रिका : बरोवपी भट्ट केदार नांवाचो कवी आसा आनी जयमयंक जसचंद्रिका रचपी मधुकर कवी आसा. हाचो उल्लेख 'राठौडा री ख्यात' भितर मेळटा पूण दोनूय ग्रंथ आजून मेरेन उपलब्ध जावंक ना. ३) वसंत - विलास : हाचो रचनाकार कोण हें खबर ना. पयले फावट तो १९८२ त प्रकाशित जालो. ताचो संपादक केशवलाल हर्षदराय ध्रुव आशिल्लो. डॉ. माताप्रसाद गुप्त हाच्या मताप्रमाण ही रचना तेराव्या शेंकड्याची आसू येता. ह्या ग्रंथांत वसंत ऋतु आनी स्त्री मनार जावपी ताचो विलासपूर्ण प्रभाव हाचें मनोहारी चित्रण मेळटा. ही एक सरल रचना आसा. ४) खुसरो की पहेलियां : अमीर खुसरोहाचो जल्म सन १२५५ त एटा जिल्ह्यांत पटियाली गांवांत जालो. ताणें लोकजीणेंत समरस जावन लोकांखातीर 'पहेलियाँ', 'मुकरियाँ' आनी 'गजल' बरयली. खडी बोली हिंदीचो तो पयलो कवी आसा. ताणें सगळे मेळून शंभरेक ग्रंथांची रचना केली पूण तातुंतले आयज वीस - बावीस ग्रंथच मेळटात. तांचे मुखेल ग्रंथ म्हळयार 'खालिकबारी', 'पहेलियाँ', 'मुकरियाँ', 'दो सुखने' आनी 'गजल'.

६. गद्य रचना : ह्या काळांत काव्य रचना चड जाल्ली तरीय गद्य रचनांचो प्रारंभूय जाल्लो. ह्या काळाची जी रचना मेळटा तातूंत 'राउलवेल', 'उक्ति - व्यक्ति - प्रकरण' आनी 'वर्णरत्नाकार' आसा. मुंबयच्या 'प्रिन्स ऑफ वेल्स' संग्रहालयांत 'राउलनेस' शिलांकीत रुपांत आसा. हाका रचपी रोडा नांवाचो कवी आसा. 'उक्ति - व्यक्ति प्रकरण' बाराव्या शेंकड्याचो महाराज गोविंदचंद्राचो सभा पंडित दामोदर शर्मान बरयलां. 'वर्णरत्नाकर' मैथिलीचो लेखक ज्योतिरीश्वर ठाकुराची रचना आसा. हाचो रचनाकाळ चवदावो शेंकडो आसा आनी ती मैथिली हिंदींतली रचना आसा. अशेतरेन आदिकाळातलें हिंदी साहित्य अपभ्रंश साहित्याच्या समांतर दिकेन वाटचाल करीत रावलें. लोक जिणेची प्रेरणा घेवन हिंदी भास विकसित जायत रावली आनी तिणें आपल्या बोलींवरवीं साहित्याच्या मळार निरंतर उदरगत सादली. ह्याच कालखंडांत हिंदी साहित्याच्यो विंगड विंगड प्रवृत्ती तशोच शैली निर्माण जाल्यो. ह्या प्रवृत्तींचो आनी शैलींचो फुडाराक जाल्ल्या विकासांतल्यान हिंदी साहित्याचो फुडाराचो इतिहास निर्माण जालो.

**२) भक्तीकाल (पूर्व मध्यकाल) :** ह्या काळांत भारत देशांत पठाणवंश आनी मुगलवंशाचें शासन आशिल्लें हिंदु, जैन, बौध्द आनी किरिस्तांव आदि धर्मांचे अनुयायी हांगा रावताले तरीय दोन धर्मच (हिंदु आनी मुसलमान) मुखेल धर्म आसले. ह्या युगांत विदेशी शासनाक लागून एक मिश्र संस्कृतिचो समन्वय जालो. तशेंच, ह्याच काळांत विभिन्न धर्म आनी संप्रदायां मदीं अनेक पंथ वा उप-संप्रदाय जाल्ले. हिंदु धर्मांतच शैव, शाक्त, बौध्द, जैन आनी वैष्णव हांचेय उप-संप्रदाय प्रचलित आशिल्ले. मुसलमान धर्मांत दोन प्रकार दिसताले- शरा आनी बेशरा. शरा लोक शरीयत मानपी आनी बेशरा मस्तमौला फकीर मानपी. ह्या परिवर्तनाचो साहित्य धरून सगळयांच ललित कलांचेर परिणाम जावप सभावीक आसलें. उपलब्ध साहित्याचो

आदार घेवन विद्वानांनी भक्तिकाल सामग्रीक अशे रीतिन वांटल्या - १. निर्गुण - भक्ती शाखा : क. ज्ञानाश्रयी वा ज्ञानमार्गी शाखा ख. प्रेमाश्रयी वा प्रेममार्गी शाखा.
२. सगुण - भक्ती - शाखा : क. राम - भक्ति शाखा ख. कृष्ण - भक्ती शाखा.

ह्या काळांत साहित्याच्यो चार मुखेल धारा आशिल्ल्यो, हें खरें तरीय तांची धारा अंतर्गत रचना आनी रचनाकारा भितर खूब समानताय दिसता. हातुंतली भावना समान आशिल्ली. ताकाच लागून ह्या काळाक भक्तीकाल नांव मेळळें. ह्या काळांत चड करून सगळे कवी / संत वा भक्त आशिल्ले. तांची बरपावळ 'स्वान्तः सुखाय' आसताली. राज्याश्रयाची पर्वा न करता संत आनी कवी हांणी आपलें कार्य केल्लें. कबीर, सूरदास, तुलसीदास ह्या कविंनी आपल्या शासकांची आलोचना केली. जें खरें दिसलें तेंच रचलें. सूफी संत पूण आप-आपल्या बादशाहची स्तुति करता ती फारसी भाशेची मसनवी बिधाची रूढिच्या रुपांतच आसताली. ह्या काळाचे सगळे रचनाकार धार्मिक वैषम्य करून बाह्याडंबर, अंधविश्वासाचो विरोध, मनीसपणा खातीर आपलो विश्वास उक्तायलो. संत आनी भक्त कवी हांचे भितर जी समान चिंतन धारा दिसता ती अशी आसा - १. नामाची महत्ता. २. गुरूची मान्यताय ३. भक्ति भावनांचें प्राधान्य ४. अहंकाराचो त्याग ५. पुस्तकी गिन्यानाचो विरोध ६. साधु-संगतिचो महिमा.

१) निर्गुण - भक्ति शाखा : हाची सुरवात संत / कवी कडल्यान जाता. हे विचार धारेचें बीं सिद्धनाथाच्या रचनांनी मेळटा. विशेश शास्त्र वा सिद्धांताचो आग्रो धरीनासतना फकत मनशांखातीरच जीण समर्पित करपाची भावना ते बाळगिताले. निर्गुण भक्ती धारेचे सगळे भक्त चड करून सकयल्ल्या वर्गांतले आशिल्ल्यान, समाजाकडल्यान उपेक्षितच उरले. साहित्य, भास आनी व्याकरण हांचो अभ्यास करूंक पावले नात. ताका लागून तांचे कडेन शास्त्रीय नदरेन साहित्यिक आनी भाशीक गूण उणे उरले. सत्याचे पुजारी जावन ताचोच प्रचार, प्रसार सहज, सरळ भाशेंत तांणी केलो. काव्य शैली, अलंकार - विधान वा रस निरूपण सारके उद्देश धरून काव्य - रचना करूंक ना, पूण भक्तिरसांत सगळें विसरून तांणी उद्बोधन केलें. तांची भास सहज, सरळ, लोक-संस्कृती आनी क्षेत्रीय बोलींकडल्यान प्रभावित जाल्ली आसा.

भक्ति - काळांत निर्गुणाक आराध्य मानून चलपी दोन साधना - पद्दती दिश्टी पडटात - १. ज्ञानमार्गी वा ज्ञानाश्रयी शाखा २. प्रेममार्गी वा प्रेमाश्रयी शाखा. ज्ञानमार्गी शाखेचे कवि संत-कवी जाले आनी प्रेममार्गी शाखेचे सूफी-कवी जाले.

मलिक मुहम्मद जायसी - सूफी काव्यधारेचे मुखेल कवी जायसी आशिल्लो. हाचो जल्म पंदराव्या शेंकड्यांत उत्तर प्रदेशाच्या रायबरेली जिल्ह्यांत जाल्लो. ताचो गुरू प्रसिद्द सूफी फकीर शेख मुहीउद्दीन आशिल्लो. मुसलमान आसूनय ताणें हिंदु देवी - देवतांचो आदरणीय उल्लेख केला. ताची बरपावळ तीन पुस्तकांत आस्पावता - पद्मावत, 'अखरावट' आनी 'आखिरी सलाम'. हातूंत पद्मावत बरी कृति आसा आनी तिचे स्वरूप प्रबंध काव्यात्मक आसा. हातूंत राजा रतनसेन आनी सिलहलद्वीपची राजकुमारी पद्मावतीचें प्रेम-वर्णन आसा. राजाची पयली बायल नागमतीचें वियोग वर्णन मार्मिक रुपांत केलां. जायसी व्हडलो विद्वान आशिल्लो आनी हिंदु धर्म आनी अवधी भाशेचें खोल गिन्यान ताका आसलें.

२. सगुण भक्ती धारा : ख्रिस्ता पयलीं खूब वर्सां आदीं भारत देशांत भागवत, पांचरात्र आनी सात्वत धर्माचो उल्लेख मेळटा. ह्या मतांचो विकास मध्यकाळांत जाल्लो. दक्षिण भारतांत आळवार संतांनी तमिळ भाशेंत आपली वाणींची रचना केल्ली. उत्तर भारतांत भक्त कविनीं अवधी, ब्रज ह्या भाशांनी आपली रचना केली.

सगुण भक्ती शाखा अंतर्गत दोन धारा चलताल्यो. १.रामभक्ती शाखा २. कृष्णभक्ती शाखा

१. रामभक्ती शाखा : लोक रक्षणाखातीर ब्रह्म तत्त्वाक साकार रुपांत चित्रित करपाची परंपरा आसा. श्री राम लोक रक्षण आनी लोक रंजन खातीर साकार रुपांत अवतार घेता. वाल्मीकी रामायणाक आदार मानून रामभक्तीची काव्य धारा प्रवाहित करपाचें श्रेय रामानंद हाका वता. विष्णुचे उपासने परस चड म्हत्व विष्णुचो अवतार श्री राम हाचे लौकीक लीलेक दिलां. रामभक्तीक सादारण मनशा मेरेन पावोवपाचें काम गोस्वामी तुलसीदासान केलें. ताचेभायर अग्रदास, नामादास, प्राणचंद चौहान, केशवदास, हृदयराम, सेनापति, रघुनाथसिंह हांणीय आपलें योगदान दिलें. ह्या संप्रदायाचीं खाशेलपणां अशीं आसात - क. शक्ती/शील आनी सौंदर्य हांचें सजीव, साकार रुपांत राम-चित्रण. ख. तशेंच राम म्हळयार मर्यादा पुरुषोत्तम, लोकरक्षक आनी लोकमंगलकर्त्याच्या रुपांत चित्रीत करप. ग. भक्ती वांगडाच कर्म आनी ज्ञान हांकांय प्रतिश्ठा दिवप. घ. राम-पुजे वांगडाच वैष्णव, शैव, शाक्त आनी स्मार्त हांचेंय मत समन्वयात्मक रुपांत स्थापीत करप. च. शृंगार आनी भक्ती-रसा वांगडाच कारुण्य, रौद्र, वीर हांची निर्मिती करप. छ. हातूंत चड करून प्रबंधात्मक काव्य चड मेळटा. ज. भाशा, छंद आनी अलंकार हांची विविधताय मेळटा. झ. असत्याचेर सत्यान जोडिल्लें जैत हो ह्या काव्याचो मूलभूत उद्देश दिसता.

गोस्वामी तुलसीदास - रामभक्ती शाखेचो प्रतिनिधिक कवी आसा. भक्तीकालांत खुबशा कवीवरीं हाचो जल्म आनी मरण विवादित आसा. ताच्या गुरूचें नांव नरहरीदास आशिल्लें. तुलसीदास हाची जीण संघर्शमय आनी उपेक्षित आशिल्ली. ताची घरकान्न तुलसीदासाची उपेक्षा करताली म्हूण विरक्त जावन साधुवृत्ती स्विकारून तो भोंवडेर गेलो. चित्रकूट पर्वताचेर वचून तो कविता रचूंक लागलो. 'रामचरित

मानस' ही ताची साहित्यकृती हिंदी प्रदेशाखातीर धर्मग्रंथ जाल्या. वेग-वेगळया भाशांनी ताचो अणकार जाला. विनयपत्रिका, कवितावली, दोहावली, गीतावली, रामललानच्छू, वैराग्य संदीपनी, कृष्णगीतावली, बरवै रामायण, पर्वती मंगल, जानकी मंगल, रामाज्ञा प्रश्न ह्यो तुलशीदासाच्यो हेर रचना आसात.

२. कृष्णभक्तिशाखा : दक्षिणेच्या आळवार भक्तांनीं श्रीमद्‌भागवतपुराणाच्या आदारान कृष्ण-भक्तीचो प्रचार केलो. जयदेव रचीत गीत - गोविंद कृतीक लागून कृष्ण-भक्तिचो प्रचार - प्रसार खूब जालो. धाव्या शेंकड्या उपरांत निम्बकाचार्य, वल्लभाचार्य आनी चैतन्य महाप्रभु हांणीय कृष्ण भक्तिच्या प्रचाराखातीर योगदान दिलें. कृष्णभक्ती धारेचो विकास मुक्तक काव्य रुपांत चड जाल्लो. कवीलोक श्रीकृष्णाच्या लोकरंजक, लोकरक्षक ह्या रुपां परस गोपी-कृष्ण लीला आनी बाल-लीलांचें वर्णन चड करता. कृष्णभक्तीच्या प्रचार- प्रसाराच्या हेतून वल्लभाचार्य हाणें वल्लभ संप्रदाय स्थापीत केलो आनी गोवर्धन पर्वताचेर श्रीनाथजीचें देवूळ उबारलें. देवळांत रावून चार शिश्य कृष्णभक्ती काव्य-रचना करताले. उपरांत वल्लभाचार्याचो पूत गोसाई विठ्ठलनाथानय आपले चार शिश्य देवळांत पुजा अर्चा करपाक दवरिल्ले. अशे रितीन आठय कृष्णभक्त 'अष्टछाप कवी' म्हणून मुखार आयले. तांचीं नांवां अशीं आसात - सूरदास, कुंभनदास, परमानंददास, कृष्णदास, गोविंदस्वामी, नंददास, छीतस्वामी, चतुर्भुजदास ह्या सगळया कवी भितर सूरदासाचें स्थान सगळयांत उंचेलें आसलें. कृष्णभक्ती शाखेचीं मुखेल तत्त्वां अशीं आसात - १) कृष्ण म्हळयार सत्‌चिदानंद ब्रह्म. ह्याच रुपांत ताची आराधना करप. २) बाल-किशोर आनी युवा अवस्थेंतल्या कृष्णाच्या लीलांचें मनोहारी चित्रण करप. ३) कृष्णभक्त कवी माधुर्य भावाचे उपासक आशिल्ले. ४) माधुर्य उपासनेंत विरहाक म्हत्व दिताले. ५) शृंगार - रस सर्वोपरी मानेला. ६) भक्ति सखा - भावाची आशिल्ली. ७) पुष्टीमार्गाच्या सिद्धांतांचें पालन करून कवींनीं ब्रजभूमी, यमुना, मुरली, गोवंश प्रती आपली भक्ती प्रदर्शित केल्या. ८) संगीत गिन्यान आशिल्ल्या कारणान ह्या काळाच्या कवींनी गीतीकाव्य प्रवृत्तीक प्राधान्य दिल्लें. ९) ब्रजभाशेचो प्रयोग केल्लो. १०) अलंकारांचो सहज, सभावीक प्रयोग ही तांची विशेशताय आसा.

**सूरदास :** हाच्या जल्माविशीं विवाद आसा. जल्मासावन तो कुड्डो आशिल्लो. पूण ताची पद्य रचना इतकी सजीव आसा, ताका जल्मांध मानूंक मन तयार जायना. श्रीनाथजीच्या देवळांत रावून तो दीसपट्टीं नवीं नवीं पदां रचतालो आनी गायतालो. 'सूर-सागर', 'सूर-सारावली', 'साहित्य लहरी', 'नल-दमयन्ती' आनी 'व्याहलो' हीं ताच्या पुस्तकांचीं नांवां आसात. ताचे शेवटचे दोन ग्रंथ सद्या उपलब्ध नात. सूर-सागर ही सगळयांत बरी कृती अशें विद्वान मानतात. ह्या पुस्तकांत श्रीमद भागवताच्या दशम स्कंध हातूंत वर्णन केल्ल्या कृष्ण-बाल - लीलांचें वर्णन ब्रजभाशेंत मेळटा. मूळ रचना सव्वालाख पदांची आशिल्ली अशें म्हण्टात. सद्या जें कितें उपलब्ध आसा तातूंत फकत चार ते पांच हजार पदां आसात. हे काव्य - रचनेंत शृंगार, वात्सल्य आनी शांत - रस मुखेल आसात. शृंगाराचो वियोग पक्ष आनी वात्सल्य ह्या रस वर्णनांत सूरदासाची निर्मिती अप्रतीम आसा. भ्रमरगीतांतले अंश, वियोग शृंगार आनी सगुण निर्गुण विवेचन करता. ताच्या काव्यांत सगुणाचो जय निर्गुणाचेर जाता. लोक जीवन चित्रण, राधा-कृष्ण प्रेमाचें सजीव चित्रण, कृष्णाची बाललीला तशेंच यौवन - लीला खूब सोबीतकायेन व्यक्त जाल्या. भावपक्ष आनी कलापक्ष हांचो सुंदर समन्वय म्हळयार सूरदास हाचें काव्य आसा.

हेर कृष्णभक्त कवीं भितर अष्टछाप कवी शिवाय चार दुसरे वैष्णव संप्रदाय आशिल्ले - राधावल्लभ संपदाय, गौडिया संप्रदाय, पट्टी संप्रदाय आनी निम्बार्क संप्रदाय. हातुंतल्या मुखेल कवींचीं नांवां अशीं आसात - हितहरी वंश, हित वृंदावन दास, गदाधी भट्ट, ललित माधुरी, हरिराम व्यास, हरिदास. मीराबाई रचीत पदां गुजरात, महाराष्ट्र, आसाम तशेंच दक्षिण प्रदेशांतलेगीत लोकप्रिय आसात. मुसलमान कवी रसखान हाचेंय नांव घेवप जाता. अकबारच्या दरबारांतले कवी रहीम गंग, नरहरि, बन्दीजन, बीरबल, टोडरमल, मनोहर अशे आसात. हातूंत रहीम चड प्रसिद्द जालो. तशेंच बनारसीदास, सेनापति, नरोत्तमदास हीं नांवाय म्हत्वाचीं आसात.

- डॉ. रवींद्र कात्यायन, अण. डॉ. चंद्रलेखा डिसुझा

**३) रीतिकाल :** हिंदी साहित्याच्या उत्तर मध्यकाळाक रीतिकाळ म्हण्टात. ह्या काळांत काव्याच्या विंगड विंगड आंगांचें सिध्दांतीक प्रतिपादन करून आनी ताका अनुसरून काव्य निर्मिती जाली. अलंकार, रस, गुण, ध्वनी आदी काव्य शास्त्रीय प्रणालींचेर आदारीत अशी ती काव्य निर्मिती आसा.

रितीकाळाची सुरवात १६४३ आसली तरी त्याआदींच रीतिसाहित्याच्यो कुरवो मेळटात. 'हिततरंगिनी' (कृपाराय - १५४१), 'रसिकप्रिया', 'कविप्रिया', 'छंदमाला' (केशवदास - भक्तीकाल) ह्यो तेसंबंदींच्यो कांय देखी दिवं येतात. तशेंच रिति - साहित्याचे सगळयाचे सगळे गूण रिती काळांतच लुप्त जाले अशेंय जायना. ताच्यो कुरवो आधुनिक काळांत थोड्यो भोव दिसतात.

रीतिकाव्य हें अलंकारांनी सुशोभीत आशिल्ल्या कारणान मिश्रबन्धु हाणें ह्या काळाक अलंकार काळ अशें नांव दिलां. कलेचें प्रदर्शन करपी साहित्य म्हणून डॉ. राम कुमार वर्मान ताका कला - काल म्हटलां, तर विश्वनाथ प्रसाद मिश्र, त्रिभुवन सिंह हांणी ह्या काळांतलें साहित्य शृंगारप्रधान आशिल्ल्यान ह्या काळाचें शृंगारकाळ अशें नामकरण केलां. नगेंद्राच्या मतान हो उत्तर - मध्यकाल आसा.

रीतिकालांतल्या साहित्याचे पोट - भेद स्पश्ट करपाच्या उद्देशान तें तीन वर्गांनी वांटून घातलां - १) रीतिबध्द २) रीतिमुक्त आनी ३) रीति सिध्द.

पयल्या वर्गांत काव्याचीं पद्यांतलीं लक्षणां निरुपीत करून तांचेर देखी स्वरुपांत बरयल्लें काव्य आस्पावता. रीतिबध्द काव्याक 'आचार्य काव्य' अशेंय म्हण्टात. ह्या वर्गांत आस्पावपी मुखेल रचनाकार आनी तांच्यो रचना अशो आसात -

चिंतामणी त्रिपाठी : १) रसविलास २) छंद विचार पिंगल ३) शृंगार मंजरी ४) कविकुल कल्पतरु ५) कृष्ण चरित ६) काव्य विवेक ७) काव्य-प्रकाश ८) कविता विचार आनी ९) रामायण हे सगळे ग्रंथ उपलब्ध नात. फकत पांच उपलब्ध आसात. ह्या ग्रंथांतात रस विलासांत रसविवेचन केलां तर शृंगार मंजरींत नायिका भेदाचेर भाश्य केलां. कविकुल कल्पतरु ह्या म्हत्वाच्या ग्रंथांत काव्य गुण, अलंकार आनी रीति - वृत्ती हांचें निरूपण जालां.

देव : हाणें ७२ ग्रंथ बरयले तातुंतल्या १५ उपलब्ध आसात, ते म्हणजे - १) भावविलास २) अष्टपाम ३) भवानी विलास ४) प्रेम तरंग ५) कुशल विलास ६) जाति विलास ७) देवचरित ८) रसविलास ९) प्रेम चन्द्रिका १०) सुजान - विनोद ११) काव्य रसायन १२) सुख सागर तरंग १४) देवा शतक आनी १५) देव भाया प्रपंच.

ताच्या साहित्यांत काव्य स्वरूप, रस अविश्कार, शब्द सामर्थ्य, ध्वनी - निरुपण हांचो परिणामकारण अणभव मेळटा. सुभोधकाय, स्पश्टपण, बारीकसाण आनी संगीत हीं ताच्या काव्याचीं खाशेलपणां आसात.

भिखारी दास : १) अमर कोश वा नाम प्रकाश २) विष्णु-पुराण ३) शतरंज शतिका ४) रस सारांश ५) छंदा वर्णवपिंगल ६) काव्य - निर्णय ७) शृंगार - निर्णय.

अमरकोश हो संस्कृत अमरकोशाचो पद्यानुवाद आसा तर रस सारांश ग्रंथांत सगळया रसांचें आमी शृंगाराचें वर्णन आसा. काव्य निर्णयांत काव्याच्या सगळया गुणांचो चिकित्सायेन अभ्यास केला.

पद्माकर : १) हिम्मत बहादुर विरुदावली २) पद्माभरण ३) जग द्विनोद ४) प्रबोधन पचासा ५) गंगालहरी ६) प्रतापसिंह बिरूदावली ७) कलिपच्चीसी.

नायक - नायिका भेद आनी चार प्रकारांच्या दर्शनांचें वर्णन आनी हेर काव्य - लक्षणांचें मार्मिक विवेचन केलां. पद्माभरण हो ग्रंथ संस्कृतांतल्या 'चन्द्रलोक' ग्रंथाचेर आदारीत आसून तातूंत अलंकारांचें निरुपण केलां.

मतिराम : १) फूल मंजरी २) रसराज ३) ललित ललाम ४) मतिराम सतसई ५) साहित्यसार ६) लक्षण-शृंगार ७) पंचारिका ८) छन्दसार पिंगल.

रस आनी अलंकाराचें विस्तारान आनी अभ्यासपूर्ण अशें केल्लें शास्त्रीय विवेचन हें ह्या ग्रंथांचें खाशेलेंपण आसा.

रीतिमुक्त साहित्य : ह्या वर्गांत स्वतंत्र म्हणजे स्वच्छंद अशी साहित्य धारा आसून तिचो रीतिकडेन विरोध आसून स्वछंद प्रेमाची अभिव्यक्ती तातूंत दिसता. ह्या वर्गांतले रचनाकार अशे आसात -

घनानंद : १) सुजान - सागर २) बिरह लीला ३) कोकसार ४) रसके लिवाली ५) कृपानन्द आदी.

प्रेमभावांची सहजतायेची अभिव्यक्ती आनी विरह भाशांची तरल अनुभुती हांचें मुक्त छन्दांतल्यान करून दिल्लें सुंदर वर्णन हें ह्या ग्रंथाचें खाशेलेपण. बुध्दसेन (बोधा) १) विरही सुभान दंपति विलास (इश्कनामा) २) विरह बारीश.

आलम : १) माधवानन्द कायकंदला २) सुदामाचरित्र ३) इयाम सनेही ४) आलम केली. मुक्त काव्याचें यथार्थ दर्शन ह्या ग्रंथांनी दिसता.

ठाकुरदास : १) ठाकुर ठसक २) ठाकुर शतक. प्रवाही भाशेंतल्यान सभावीक भाव भावनांचें दर्शन आनी तातुंतल्यान प्रतित जावपी परकाया प्रवेश अनुभुतीचो बोध ह्या ग्रंथांतल्या जाता.

रीतिसिध्द साहित्य : ह्या वर्गांत रीति काव्याच्या शास्त्रापासून थोडी मेकळीक घेवन निर्माण केल्ल्या साहित्याचो आस्पाव जाता. ह्या वर्गांतले ग्रंथकार अशे आसात -

बिहारी : 'बिहारी सतसई' ह्या ग्रंथांत भाव आनी कला हांचो सुमेळ सादिल्लो दिसता. भाशेचें सोबीत नियमन आनी अलंकारांचो सभावीक उपेग सादून शुध्द ब्रज भाशेंतलो हो एक उत्तम अविश्कार आसा. शृंगाराचें विविधतायेचें दर्शन घडोवपी ही कलाकृती आसा.

रसनिधी : १) रतन हजारा २) विष्णु पद किर्तन ३) कविता बारह मासी ४) रसनिधी सागर ५) हिंडोला अरिल्ल आदी.

बिहारीचो प्रभाव दाखोवपी पूण स्वतंत्र वाटेन चलपी ह्यो रचना आसून, फारसी काव्य शैलीची झांक भारपी शृंगार दर्शन हातूंत दिसता. ते भायर नृप शंभु, नेवाज, हठीजी, पजमेय हेय ह्या वर्गांतले उल्लेखनीय रचनाकार आसात.

**४) आधुनिक काळ :** भारताच्या आधुनिक इतिहासाक धरून, म्हणजे १८५७ ची राजकीय क्रांती धरून ह्या आधुनिक कालखंडाची सुरवात जाता. ह्या कालखंडांत प्रतीत जाल्ल्या साहित्याच्या वेगवेगळया लक्षणांक अनुसरून ह्या काळाक 'गद्यकाळ', 'विद्रोही काळ', 'परिवर्तन काळ' अशींय नांवां दिवप जातात. युरोपी राजकीय सत्तांचें भारतांत आगमन जाल्या उपरांत भारतांत जाल्लो सर्वांगी बदल, १८५७ ची राजकीय क्रांती आनी उपरांतचो स्वातंत्र्याचो संग्राम, भारताचें स्वातंत्र्य, राजकीय फाळणी आनी स्वातंत्र्योत्तर राजकीय, अर्थीक, समाजीक, संस्कृतीक परिवर्तनाचो परिणाम ह्या काळांतल्या

साहित्याचेर जावप सभावीक जाता. ह्या सगळ्या परिवर्तनाचें चित्रण एकेवटेन आनी ह्या परिवर्तनाक आपले परीन योगदान दिवप असो ह्या कालखंडाचो प्रवास जाला. ह्या कालखंडाचें आनीक एक खाशेलेंपण म्हणजे ह्या कालखंडांत खडी बोलीचें माध्यम स्विकारिल्ल्यान खडी बोलीक चालना मेळ्ळी.

ह्या कालखंडाआदीं लल्लूजी लाल, मुंशी सदासुखलाल, सदल मिश्र आनी इन्शा अल्ला खाँ हांणी खडी बोलींत साहित्य निर्मिती केल्ली. तेभायर कांय ख्रिस्ती मिशनरी लोकांनीय धर्मप्रसाराच्या कामाखातीर खडी बोलीचो वापर केलो. स्वामी दयानंद सरस्वती, पं. श्रध्दाराम फुल्लौरी, राजा शिवप्रसाद 'सितारे हिन्द', राजा लक्ष्मण सिंह हांणीय खडी बोलींत साहित्य निर्मिती करून फुडाराखातीर बुन्याद घालून दवरली.

आधुनिक काळाचे पोट विभाग करप जाल्यात ते अशे -

१) पुनरजागरण काळ (भारतेन्दु काळ) १८५७ - १९००.

२) जागरण - सुधार काळ (द्विवेदी काळ) १९०० - १९१८.

३) छायावाद काळ - १९१८ - १९३८.

४) छायावादोत्तर काळ १९३८ - १९५३ (प्रगति - प्रयोग काळ).

५) नवलेखन काळ - १९५३ पासून.

१) **भारतेन्दु काळ :** ह्या कालखंडांत भारतेन्दु हरिश्चंद्र (१८५० - १८८५) ह्या साहित्यिकाचें भरीव तशेंच प्रभावी योगदान घडिल्ल्यान ह्या काळाक ताचें नांव दिवप जाता. ह्या काळांत हिंदी साहित्यांत आशय, अभिव्यक्ती, शैली, प्रकार, भास आनी साहित्याच्या हेर आंगांसंबंदीं जायते प्रयोग जाले. भारतेन्दु वांगडाच ह्या काळांत राजा लक्ष्मण सिंह (१८२६ - ९६), राजा शिवप्रसाद सितारे हिन्द (१८२३ - ९५), श्रीनिवास दास (१८५१ - ८७), बलकृष्ण भट्ट (१८४४ - १९१४), प्रताप नारायण मिश्र (१८५६ - ९४), राधाकृष्ण दास (१८६५ - १९०७), स्वामी दयानंद (१८२४ - ८३), बद्रीनारायण चौधरी - प्रेमघन (१८५५ - १९२३), किशोरी लाल गोस्वामी (१८६५ - १९३२), तोताराम वर्मा (१८४७ - १९०२), देवकीनन्दन खत्री (१८६१ - १९१३) हांणी हिंदी साहित्यांत मोलाची भर घाली.

भारतेन्दु काळांत नवलकथेचो जल्म जालो. भारतेन्दु काळांतले नवलकथेक प्राचीन कथेचें दायज मेळ्ळें आसलें तरी बरेच कडेन तिचेर अस्तंती साहित्याचो प्रभाव दिसता. हिंदीचो पयलो अधीकृत नवलकथाकार म्हणून लाला श्रीनिवास दासाचें नांव घेवप जाता. ह्या काळांत समाजीक, इतिहासीक (तिलस्मी ऐपारी) जासूसी, प्रेम - प्रधान, अनुवादीत नवलकथा निर्माण जाल्यो. ह्या काळांतले मुखेल नवलकथाकार म्हणून बाळकृष्ण भट्ट (रहस्य कथा, सौ अजान एकसुजान), किशोरी लाल गोस्वामी (त्रिवेणी, मालती माधव, प्रणयिनीपरिणय, सौभाग्य) देवकीनन्द खत्री (चंद्रकांत), जगमोहन सिंह (श्यामा स्वप्न) हांची नोंद जाता. ह्या काळांत बंगाली (मृण्मयी, दीपनिर्वाण, प्रमीला), उर्दु (संसार दर्पण), मराठी (पूर्ण प्रकाश, चंद्र प्रभा) नवलकथांचे अनुवाद आयले. तेभायर कांय इंग्लिश अनुवादय जाले.

आधुनिक कथा नवलकथेच्या संदर्भांत विचार केल्यार ह्या काळांतली कथा - नवल कथा प्राथमिक अवस्थेंत आशिल्ली आनी समाजीक, राश्ट्रीय, धर्मीक आनी नैतीक शिकवण हो तांचो उद्देश आसलो.

भारतेन्दुच्या पयलीं रासलीला, रामलीला सारके नाट्यप्रकार लोकप्रिय आसले. उपरांत महाराज विश्वनाथ सिंहाचे 'आनंद रघुनन्दन', बाबू गोलचंद्राचें 'नहुष', राजा लक्ष्मण सिंहाचें अनुवादीत 'शकुन्तला' हींय नाटकां प्रचलित आसलीं. ह्या युगांतलें मुखेल नाटककार अशे - भारतेन्दु (चंद्रावली, भारत दुर्दशा, नीलदेवी - स्वतंत्रनाट्यकृती, कर्पूरमंजरी, मुद्राराक्षस, विद्यासुन्दर, व्यंग वैदिकी, हिंसा हिसा न भवति, अन्धेर नगरी, विषस्य विषमौषधम् - अनुवादीत नाट्य कृती), श्रीनिवासन (रणधीर प्रेम मोहिनी, तप्तासंवरण, संयोगिता स्वयंवर, महाराणा प्रताप), किशोरीलाल गोस्वामी (मंत्रक मंजिरी, महानाटक), केशवदास भट्ट (सज्जाद सुम्बुल, शमसाद सौसन), देवकी नंदन त्रिपाठी (एक एकके - तीन तीन, सैंकडेमे दस - दस).

पौराणीक आख्यायिका आनी इतिहासीक घटनांचे विशय घेवन, प्रेम - कथांच्या आदारान तत्कालीन परिस्थितीचेर निवेदन करपाचेर ह्या नाटकांत भर दिवप जालां.

भारतेन्दु काळाच्या पयलीं विशेश करून, ब्रज भाशेंत काव्य रचना जाताली. ह्या काळांत ब्रज बोली वांगडाच खडी बोलींतय काव्य निर्मिती जाली. भारतेन्दु, द्विजदेव, बदरीनारायण चौधरी, प्रताप नारायण मिश्र आनी हेर साहित्यकारांनी काव्य निर्मिती केली. ह्या काळांतले काव्य रचनेचेर पारंपारीक रीतिकाव्याचो आनी आधुनिक काव्यशास्त्राचो परिणाम दिसता आनी विशेश म्हणजे परंपरा आनी नाविन्य हांचो सुमेळ सादिल्लो मेळटा. भक्ती, रस हांचो संबंद सामको तुटलो ना तरी समाजीक जीण, राश्ट्रप्रेम हांकांय काव्यांत सुवात मेळूंक पावल्या.

ह्या काळांत नामनेचे लेखक कांय पत्रिका चलयताले. ह्या पत्रिकांनी निबंद, समिक्षा आनी हेर वैचारीक साहित्य प्रसिद्द जातालें. भारतेन्दु संपादीत 'कविवचन सुधा, हरिश्चंद्र मॅगजीन', प्रेमघन संपादीत 'आनन्द कादम्बिनी', बालकृष्ण भट्ट संपादीत 'हिंदी प्रदीप' प्रताप नारायण मिश्र संपादीत 'ब्राम्हण' आनी उपरांतची 'नागरी प्रचारिणी पत्रिका' (१८९७). ह्या पत्रिकांनी हिंदी साहित्याचे उदरगतीक आधार जावपी अशें जायतें समिक्षात्मक लिखाण प्रसिद्द जालें.

**द्विवेदीकाळ :** भारतेन्दु काळांतल्या साहित्यिकांनी निर्माण केल्ली हिंदीची साहित्य परंपरा समृध्द करपाक ज्या साहित्यिकांचें योगदान घडलें तांचे मदीं आपर्त्य महावीर प्रसाद द्विवेदी मुखेल आसात. ह्या काळाक 'जागरण सुधार काळ', पूर्व 'स्वछंदतावादी

काळ' अशीय नांवां दिल्यांत. सन १९०३ त 'सरस्वति' पत्रिकेच्या संपादनाची जापसालदारकी यशस्वीरितीन घेवन, ताणें खडी बोली हिंदीचो भाशीक विकास सादपारवातीर खूब कश्ट घेतले. तिचे व्याकरणी नेमावळीचेर भर दिलो. ताणें गद्य आनी पद्य मेळून सुमार ऐशीं पुस्तकां बरयलीं. तातूंत 'देवी स्तुतिशतक', 'कन्याकुब्ज', 'अबला - विलाप', 'काव्य मंजूषा', 'द्विवेदी काव्य माला', 'कविता कलाप' हे मूळ ग्रंथ आनी 'विनय विनोद' (भर्तहरिचे वैराग्य शतकाचो अनुवाद), विहार वाटिका (गीत गोविंदाचो भावानुवाद), 'स्नेहमाला' (शृंगार शतकाचें भाशांतर), कुमार संभव (भाशांतर) प्रसिद्द आसात. द्विवेदी काळांत हिंदी साहित्याची सगळया तरांनी उदरगत जाली. ह्या काळांत तरातरांचीं गद्य साहित्याची रुपां विकसीत जाल्लीं दिसतात. नवलकथेक मनोरंजनावांगडाच समाजीक संदर्भय दिवप जालो. ह्या काळांतले मुखेल नवलकथाकार म्हणून देवकीनन्दन खत्री (कामर की कोठरी, अनुठी बंगम), हरिकृष्ण जोहर (मायामहाल), गोपालराम गहमरी (सरकारी लाश, चस्करदार चोरी, जासूस की भूल), किशोरीलाल गोस्वामी (लवंग लता, आदर्श बाला, कनक कुसुम), लज्जाराम शर्मा (आदर्श दम्पती, बिगडे का सुधार) हे उल्लेखनीय आसात.

नाटकाच्या मळार आदलेवरीच पौराणीक कथानकांवयल्या नाटकांवांगडाच, समाजीक, राजकीय विशय घेवन नाटकां बरोवप जालीं. गंगा प्रसाद (रामाभिषेक), गिरिधर लाल (राम - वनयात्रा), बदरीनाथ भट्ट (कुरूवन दहन), शिवनंदन सहाय (सुदामा), रामनारापण मिश्र (कंसवध) हांणी पौराणीक नाटकां बरयलीं. मिश्रबंधु (नेत्रोन्मीलन), रुद्रदत्त शर्मा, राधेश्याम हांणी समाजीक नाटकांचें लेखन केलें.

कवितेच्या मळार, नाथूराम शर्मा - 'शंकर' (अनुराग रत्न, शंकर - सरोज, गर्भरण्डा रहस्य, शंकर सर्वस्व), अयोध्या सिंह उपाध्याय (प्रिय प्रवास, वैदेही वनवास, युभते चौपदे), श्रीधर पाठक (वनाष्टक, काश्मीर सुषमा, भारत गीत), मैथिली शरण गुप्त (रंगमे भंग, भारत - भारती, हिन्दु, कशोंकी कथा, स्वर्ग - सहोदर), रामनरेश त्रिपाठी (मिलन, पथिक, स्वप्न) हांणी मोलादीक योगदान दिलें. ह्या काळांत देशभक्ती, मानवता, नितीमूल्यक जीवन धारा, आदर्शवादी विचार हे काव्याचे विशय जाले. तेचपरी पारंपरीक काव्य पद्धतींत बदल घडून, भाशेंतय परिवर्तन आयलें. ह्या कालखंडांतल्या कवींनी खडी बोलीचें माध्यम पसंत केलें आसलें तरी जगन्नाथदास, रत्नाकर रायदेवी प्रसाद हांणी ब्रज भाशेंतली काव्यसाधना चालूच दवरली.

**द्विवेदी काळ निबंद :** निर्मितेच्या संदर्भांत ह्यो उदरगतीचो काळ म्हणूंक जाय. महावीर प्रसाद द्विवेदी, बालमुकुंद गुप्त, पूर्ण सिंह, पध्दसिंह शर्मा, चंद्रधर शर्मा, श्यामसुंदर दास, रामचंद्र शुक्ल हांणी कथात्मक, व्यंगात्मक, वर्णनात्मक, विचारात्मक अशा विविध प्रकारांतल्या निबंदांची निर्मिती करून निबंद - प्रकाराक चालना दिली. ह्या काळांत सिध्दांतीक आनी वेव्हारीक समिक्षेवांगडा, शास्त्रीय, तुळात्मक, व्यारव्यात्मक समिक्षा करप जाली. समिक्षेचे पोन्ने सिध्दांतीक संकेत बदलून नवी शास्त्रीय समिक्षा निर्माण जाली.

**छायावाद काळ :** छायावाद हें उतर ह्या कालखंडांतल्या पद्य प्रकाराक लागू जाता. ह्या कालखंडांतल्या गद्य प्रकारांक हेर नांवां आसात. कथा - नवलकथेक 'प्रेमचंद काळ', नाटकाक 'प्रसाद काळ', निबंद आनी समिक्षेक 'शुक्ल काळ' अशें मानप जाता.

मध्यम वर्गीय चेतनेच्या विद्रोहाचें प्रतिक म्हणून छायावादाची वळख करून दिवप जाता. भांडवलशायेची उदरगत, व्यक्ती वादाचो पुरस्कार, स्वच्छंद प्रवृत्तीचो उदय, पयल्या म्हाझुजाचो परिणाम, अस्तंती संस्कृतीचो प्रभाव, देशा अंतर्गत घडिल्ल्या समाजीक, संस्कृतीक चळवळी ह्या सगळया परिवर्तनांतल्यान छायावादी काव्याचो जल्म जावंक पावला.

प्रसाद, निराला, सुमित्रानंद पंत आनी महादेवी वर्मा हे छायावादी काव्याचे मुखेल कवी मानल्यात. जयशंकर प्रसाद (कानन कुसुम, महाराजा कामहत्त्व, करुणालय, प्रेमपथिक, झरना, आँसू, लहर, कामायनी) हांच्या काव्यांत विशयाचें नाविन्य, मानवी सौंदर्य, प्राकृतिक सौंदर्य, भाव अभिव्यक्तीची भास अशीं खाशेलपणां दिसतात. सूर्यकांत त्रिपाठी - 'निराला' (जुहीकी कली, अनामिका, परिमल, गीतिका, तुलसीदास, सरोजस्मृति) हाची कविता विद्रोही स्वर लायता आसतानाच दुसरेवटेन नियतीचें अस्तीत्त्वय दाखयता. जिवीत नदर आनी भाशा - प्रयोगांत नाविन्य जाणवता. सुमित्रानन्दन पन्त (ग्रंथि, विणा, पल्लव, गुंजन, युगान्त युगवाणी, स्वर्णधूलि, स्वर्णकिरण, उत्तरा, युगान्तर, रजत शिखर, लोकायतन) हाचे कवितेंत विविध विचार प्रवाहांतल्यान निर्माण जाल्ली एकजिवी धारणा आनी प्रवृत्ती सौंदर्याचें खडी बोलींतल्यान सहजतायेन जाल्लें चित्रण मेळटा. महादेवी वर्मा (नीहार, रश्मि, नीरजा, दीप - यात्रा) हिची कविता आशयाघन अनुभुती, समृध्द कलापक्ष आनी भावपक्ष प्रतित करता. ह्या चार मुखेल कवींभायर, रामकुमार वर्मा, उदय शंकर भट्टा, मोहनलाल मेहता हांच्योय कविता नोंद करपासारक्यो आसात. प्रणय आनी जिवीताकडची स्वच्छंदी नदर दवरून बरयल्ली हरिवंशराय बच्चनची कविता (मधु शाला, मनुबाला, मधुकलश, निशानिमंत्रण, एकांत संगीत, आकुल अंतर, हलाहल, खादीके फूल, सूत की माला, आरती और अंगारे, बुध्द और नाचघर) उल्लेखनीय आसात. भगवती चरण वर्मा (मधुकण, प्रेम संगीत, मानव) हृदयनारायण पाडणेय (हृदयेश, मधुगीत, करूणा, प्रेम सन्देश), नरेन्द्र शर्मा (प्रभात फेरी, प्रवासीके गीत, द्रौपदी) हे ह्या काळांतले आनीक कांय कवी आसात.

**गद्य साहित्य :** नवलकथा आनी कथा - ह्या काळांतली

कथा आनी नवलकथा चडांत चड समाजाभिमुख जाल्ली दिसता. भारताचें यथार्थ दर्शन ह्या कथा - नवल कथांनी घडटा. दलीत आनी पददलीत समाजाचें प्रामाणीक चित्र पितारपाचें काम समर्थपणान ह्या काळांतल्या लेखकांनी केलां. ह्या कालखंडांत नवलकथेच्या मळार क्रांतीकारी योगदान दिवपी प्रेमचन्दाच्या नांवान ह्या कालखंडाक प्रेमचन्द युग म्हण्टात. ताणें गोदान, गबन, रंगभूमि, कर्मभूमि, कायाकल्प, सेवासदन, प्रेमाश्रय अशो एकापरस एक सरस नवलकथा बरयल्यो. ताच्यो 'पूस की रात', 'कफन', 'बडे घर की बेटी', 'शतरंज के खिलाडी' हे कथा संग्रह प्रसिद्द आसात. ह्याच काळांतले आनीक कथा - नवलकथाकार अशे आसात - विश्वंभरनाथ शर्मा कौशिक (नवलकथा : माँ, भिखारिणी; कथा : कताई, रक्षाबंधन, उध्दार), सुदर्शन (हारकी जीत, अलबम, आशिर्वाद), चतुरसेन शास्त्री (हृदय की परख, हृदय की प्यास, अमर अभिलाषा, आत्मदाह), चंद्रधर शर्मा गुलेरी (उसने कहा था, सुखमय जीवन, बुद्दू का काँव), जयशंकर प्रसाद (कंकाल, तितली, आकाशदीप, पुरस्कार, प्रतिशोध). मनोविज्ञानाची फाटभूंय घेवन कथा बरोवप्यांमदीं इलाचंद जोशी, जैनेन्द्र, अज्ञेय हांचें लिखाण उल्लेखनीय आसा. तेभायर सियाराम शरण गुप्ता, भगवती प्रसाद वाजपेयी, वृन्दावन लाल वर्मा, राहुल संस्कृत्यायन आदि लेखकांनी मोलाची भर घाल्या.

नाटकाच्या मळार प्रसाद हांणे अपूर्व अशें योगदान दिल्ल्यान नाटकाच्या संदर्भांतल्यान ह्या कालखंडाक प्रसाद युग म्हणून वळखतात. 'सज्जन विशाखा', 'अजातशत्रु', 'जनमेजय का नागयज्ञ', राज्यश्री, 'स्कंद गुप्त', 'चंद्र गुप्त', 'ध्रुवस्वामिनी' अशीं सरस नाटकां बरोवन प्रसादान आपली अशी नाट्य परंपरा निर्माण केली. हरिकृष्ण प्रेमी (रक्षाबंधन, पाताल विजय, प्रतिशोध), लक्ष्मीनारायण मिश्र (संन्यासी, मुक्ति का रहस्य, राक्षस का मंदिर, राजयोग) हे हेर नाटककार आसात. पुराण, इतिहासांतलीं कथानकां वेंचून, भारतीय आनी अस्तंती शैलींचो समन्वय साधून नाटकां आनी नाटकुलीं निर्माण जालीं.

निबंदाच्या मळार साहित्यीक, दार्शनीक, मनोविज्ञानीक आनी आलोचनात्मक प्रकृतीच्या निबंदांची निर्मिती जाली. आचार्य रामचंद्र शुक्ला (चिंतामणी भाग १ और २), बाबु गुलाबराय (फिर निराशा क्यों?, मेरी असफलता), पद्मालाल बख्शी (कुछ, पंचपात्र), राहुल संस्कृत्यायन, राधाकृष्णदास, शांतिप्रिय द्विवेदी ह्या निबंदकारांनी हें दालन समृध्द केलें. समिक्षेच्या मळार आचार्य रामचंद्र शुक्ला, शामसुंदरदास, लक्ष्मीनारायण, डॉ. राम शंकर रसाळ, डॉ. रामकुमार वर्मा, कृष्णशंकर शुक्ल, नन्ददुलारे वाजपेयी, शांतिप्रिय द्विवेदी हांणी शास्त्रीय समिक्षेक व्हड योगदान दिलें. 'हिंदी साहित्यका इतिहास', 'भारतेन्दु साहित्य', 'भ्रमर गीत सार', 'तुलसी ग्रंथावली', 'जायसी ग्रंथावली', रसवादी, लोक मंगल ह्यो समिक्षेच्यो कांय उत्तम पती आसात. ह्या काळांत राजकीय फुडाऱ्यांचेर बरयल्लीं कांय चरित्रांय प्रसिद्द आसात.

**छायावादोत्तर काळ :** ह्या काळांतले साहित्यनिर्मितीची सारकी पारख जावंची ह्या उद्देशान ह्या कालखंडाची प्रगतीकाळ आनी प्रयोग काळ अशी विभागणी केल्या.

छायावादी काव्यधारा नव्या युगाची मागणी पुरी करपाक उणी पडूंक लागिल्ली. देशांत सगळ्याच मळांचेर क्रांतीकारी बदल घडूंक लागिल्ले. समाजांतल्या सगळ्या थरांचेर स्वातंत्र्याची वळख मेळिल्ली. मार्क्सवादी विचार प्रणालींत सगळेचकडेन संचार केल्लो. प्रगतिवादी कविता आतां सामान्य लोकाची कविता जावन ती वास्तव जिवनाक प्रत्यक्षांतलो स्पर्श करूंक लागिल्ली. सुमित्रानंद पंत (युगांत, युगवाणी), केदारनाथ अग्रवाल (नींद के बादल, युग की गंगा, लोक और आलोक), नागार्जुन (युग धारा, सतरंगी पंखोवाली, प्यासी पथराई आँखें), रामविलास शर्मा (रुपत रंग), रांगेय राघव (अजेय खण्डहर, पांचाली, पिघलते पत्थर, रूप छाया), शिवमंगल सिंह (जीवन के गान, प्रलय - सृजन) हे कांय नावाजते प्रगतिवादी कवी.

प्रयोगवादी कविताधारेंत नवी चेतना, नवी भास, नवे अभिव्यक्तीचो संगम दिसता. पारंपारीक शिल्प, प्रतीक, बिंब न्हयकारून नवीन प्रयोगाचो आग्रो धरप जालो. ही कविता यथार्थ जिवन, दर्शन दिवपी, चड आनी चड लोकाभिमुख आनी व्यक्तीवादी जाली. अज्ञेय हाणें 'तारसप्तक' ह्या काव्य संग्रहांतल्यान हें आंदोलन सुरू केलें (१९४३). ह्या पयल्या सप्तकांत अज्ञेय, मुक्तिबोध, नेमिचंद्र जैन, रामविलास शर्मा, प्रभाकर माचवे, गिरिजाकुमार माथुर आनी भारत भूषण अग्रवाल हांची काव्य निर्मिती आस्पावता. फुडाराक दुसरें सप्तक १९५१ त, तिसरें सप्तक १९५९ त आनी चवथें सप्तक १९७९ त प्रकाशित जालें. शमशेर, शकुंत माथुर, सर्वेश्वर सक्सेना, केदारनाथ सिंह, केदारनाथ अग्रवाल हांच्यो रचना आयल्यो.

ह्या काळांतल्या गद्य साहित्यांत कवितेसारकेच प्रयोगवादी गूण मेळटात. नाटकाच्या मळार उपेन्द्रनाथ अश्क (घट्टा बेटा, स्वर्गकी झलक, कैद, उडान, अंधी गली), सेठ गोविंद दास (बडा पापी कौन, सेवापथ त्याग का ग्रहण), हरिकृष्ण प्रेमी (रक्षाबंधन, प्रतिशोध), वृंदावनलाल वर्मा (धीरे धीरे, खिलौने की खोज) एकांकीच्या मळार रामकुमार वर्मा, उपेंद्रनाथ अहक, उदय शंकर भट्ट, लक्ष्मीनारायण मिश्र हांचीं नांवां उल्लेखनीय आसात.

ह्या काळांत मनोविश्लेषणात्मक आनी सामाजिक तशेंच इतिहासीक फाटभूंय घेवन कथा आनी नवलकथा निर्माण जाल्यो. जैनेन्द्र (कल्याणी, सुखदा, त्यागपत्र, व्यतीत सुनिता, जैनेन्द की श्रेष्ठ कहानियाँ), इलाचंद्र जोशी (संन्यासी , पर्देकी रानी, प्रेम और छाया, निर्वासीत, धूप की रेखा), अज्ञेय (शेखर एक जीवनी खं १ - २, अपने अपने अजनबी, विपथगा, परंपरा), यशपाल (दाद थामरेड, देश द्रोही, पिंजरे की उडान, ज्ञानदान), वृन्दावनलाल वर्मा (झांसी की

रानी, मृगनयनी), हजारी प्रसाद द्विवेदी (बाण भट्ट की आत्मकथा), रांगेय राघव (घरौंदा, विषाद मठ), उपेंद्रनाथ अश्क (सितारों के खेल, गिरती दिवारें) हे कांय मुखेल लेखक आसात.

निबंदाच्या मळार हजारीप्रसाद द्विवेदी, दिनकर, अज्ञेय, यशपाल, जैनेंद्र, रामवृक्ष बेनीपुरी, शांतीद्रेय द्विवेदी हांणी जिवीताच्या विविध आंगांक स्पर्श करपी निबंद बरयले. तेभायर हजारी प्रसाद द्विवेदी, नगेंद्र, रामविलास शर्मा, शिवप्रसाद सिंह चौहान, विश्वनाथ, प्रसाद मिश्र, रामकृष्ण शुक्ल हांणी हिंदी समिक्षेच्या मळार भरीव योगदान दिलां.

**नवलेखन काळ :** १९६० उपरांतच्या काळांत भारत आनी संवसारांत एक अपूर्व अशा परिवर्तनाक आरंभ जालो. देशाची फाळणी, सामुदायिक रक्तपात, अत्याचार, भारत - चीन झूज, भारत- पाकिस्तान झूज, तंत्रज्ञानाची वाटचाल, सामाजिक, आर्थिक असमता, बायल मनशेची सामाजिक व्यथा, सार्वत्रिक अपेक्षाभंग ह्या सगळ्या घटकांनी एक आगळें अशें वातावरण निर्माण करून दवरलें. ताणें एक विद्रोही अशी मानसिकता तयार केली. ह्या नव्या वातावरणाची गरज म्हणून, नवे मानसिकतेची भावना व्यक्त करपी साहित्य निर्माण जालें. ह्या साहित्याचो आस्पाव नवलेखनांत करतात.

कवितेच्या संदर्भांत नवलेखन काळांत नवी कविता, साठोत्तरी कविता, अकविता, बीट कविता, अस्वीकृत कविता, विद्रोही कविता, फैंटसी कविता, ठोस कविता अशो बऱ्योच काव्य चळवळी जाल्यो.

गजानन माधव मुक्तिबोध (चाँद का मुँड टेढा है), अज्ञेय (बावरी आहेरी, इन्द्रधनुँ, सागर मुद्रा), भवानीप्रसाद मिश्र (गीत फरोश, अंधेरी कविताएँ, खुशबूके शिलालेख), रघुवीर सहाय (सीढीयोंपर धूप में, हँसो हँसो जल्दी हँसो), धर्मवीर भारती (कनुप्रिया), शमशेर बहादुर सिंह (कुछ कविताएँ), कुंवर नारायण (आत्मजयीचक्रव्यूह), विजय देव नारायण साही (मछली घर), जगदीश गुप्त (नाव केपाँव), दुष्यंतकुमार (सूर्यका स्वागत), सर्वेश्वर दयाल सक्सेना (काठकी घांटियाँ), श्रीकांत वर्मा (माया दर्पण) हांणी कवितेच्या मळार नवकवितेच्या संदर्भांत क्रांतीकारी योगदान दिलें. तशेंच नरेंद्र मोहन, राजेश जोशी, मंगलेश उबराल, उदय प्रकाश, वेणु गोपाळ, रमेश कुन्तल, अवधेश कुमार, चन्द्रकांत देवताले हांणी नवीन कवितेच्या आंदोलनांत सक्रीय वांटो घेवन काव्य निर्मिती केली.

नवलेखनाची ही चळवळ साहित्याच्या सगळ्याच प्रकारांत उण्या-चड प्रमाणांत घडली. नाटकाच्या मळारय फुडें दिल्ल्या नाटककारांनी आपले परीन हे चळवळीक हातभार लायलो.

जगदीशचंद्र माथुर (कोणार्क), मोहन राकेश (आधे अधूरे, आषाठ का एक दिन, लहरोके राजहंस), नरेश मेहता (खलित यात्रा), विष्णु प्रभाकर (युगे युगे क्रांती), दुष्यंत कुमार (एक कष्ठ विषपायी), धर्मवीर भारती (अंधा युग), सुरेंद्र वर्मा (सूर्य के अंतीम किरण से पहली किरण तक), सर्वेश्वर दयाल सक्सेना (बंकरी), मणी मधुकर (रस गंधर्व), नाग बोडस (खूबसुरत बहू), कथा नवलकथेच्या मळार फुडें दिल्ल्या साहित्यिकांनी नवनिर्मिती केली. नागार्जुन (बलचमना, नई पौध), फणीश्वर नाथ रेणु (मैला आँचल), रांगेय राघव (कबतक पुकारूँ), विवेकी राय (बबूल), शिवप्रसाद सिंह (अलग - अलग वैतरणी), हिमांशु जोशी (अरण्य), मार्कण्डेय (अग्नी बीज), मम्मननाथ (बहता पानी), अमृतराय (बीज, नागफनी), अमृतलाल नागर (बूँद और सागर), कमलेश्वर (समुद्र में खोया हुआ आदमी), रामकुमार भ्रमर (काँच घर), धर्मवीर भारती (सूरज का सातवाँ घोडा), मन्नू भंडारी (आपका बंटी).

कथेच्या मळार नवी कथा, जनवादी कथा, सहज कथा, समकालीन कथा, समांतर कथा, सक्रीय कथा अशा चळवळींनी नवलेखनांत भर घाली. अमरकांत (देश के लोग, जिंदगी और जोंक), कमलेश्वर (कस्मेका आदमी, इतने अच्छे दीन), निर्मल वर्मा (परिन्दे, जलती झाडी), फणीश्वर नाथ रेणु (ठुमरी), राजेंद्र यादव (लहरें और परछाईयाँ), मोहन राकेश (नये बादल), मार्कण्डेय (पानफूल), उषा प्रियंवदा, कृष्णा सोबती, भीष्म सहानी, शिवप्रसाद सिंह, गंगाप्रसार विमल, धर्मेंद्र गुप्त, महीपसिंह, कुलभुषण आनी हेर कथाकारांनी आपलें योगदान दिलां.

निबंदाच्या मळार अज्ञेय, नगेंद्र, नामवरसिंह, मुक्तिबोध, धर्मवीर भारती, कुबेर नाथ राय, विद्यानिवास मिश्र, हरिशंकर परसाई, शरद जोशी हांचें योगदान मेळ्ळां. समिक्षेच्या मळार नरेंद्र, बलदेव उपाध्याय, नन्ददुलारे वाजपेयी, भाग्गिरथ मिश्र, निर्मला जैन, डॉ. सुरेश चंद्र, रमेश कुंतल मेघ, शिव कुमार मिश्र, रामानंद तिवारी हांणी योगदान दिलां.

- डॉ. रवींद्र कात्यायन,
- श्रीमती वृषाली मांद्रेकर

**हिंदू धर्म :** हिंदू धर्म जगांतलो सगळ्यांत पोरनो आनी आद्य असो धर्म आसा. ऋषि - महर्षींनी तो श्रुति, स्मृति, पुराणां, इतिहास ह्या ग्रंथांतल्यान आकाराक हाडला. पुर्विल्ल्या ग्रीक वाङ्मयांतय हिंदू शब्दाचो उल्लेख मेळटा. कितल्याशाच हजार वर्सांपयलीं आर्य लोक ध्रुव प्रदेशांतली वसती सोडून सकयल देंवत देंवत पंजाबांत आयले. पंजाबांतल्यान सात न्हंयो व्हांवतात, तांचे वयल्यान पंजाबाक सप्तसिंधूचो प्रदेश अशें नांव मेळ्ळें. आर्यांनी ह्या प्रदेशांत आपली वसती मांडली, ताका लागून तांकांय अस्तंती लोक सप्तसिंधू म्हणूंक लागले. पारशांच्या अवेस्तांत ताचो उल्लेख हप्तहिंदू असो आसा. सप्तसिंधूच्या उदेंतेकडल्या भागांतल्या लोकांक अस्तंते वटेनचे लोक हिंदू म्हणून वळखूंक लागले. ह्या हिंदुंचो जो धर्म, तो हिंदू धर्म. पूण हिंदू लोकांचीं शास्त्रां हिंदुंच्या धर्माक हिंदू धर्म म्हणिनात. तीं शास्त्रां ह्या

धर्माक आर्यधर्म, वैदिक धर्म, सनातन धर्म वा वर्णाश्रमधर्म ह्या नांवान वळखतात.

हिंदू धर्माचो उगम केन्ना आनी कसो जालो हें निश्चितपणान सांगूंक मेळना. आर्यांच्या आगमनापयलीं भारतांत प्रचलित आशिल्ले लौकिक धर्म आनी आर्यांचो वैदिक धर्म हांच्या संमिश्रणांतल्यान हिंदू धर्म ल्हव ल्हव करून उदयाक आयलो आसुंये. सिंधु - संस्कृतीच्या अवशेशांतल्यान सिंधुधर्माचें जें रूप प्रकट जालां, तें हिंदू धर्माचें एक पुर्विल्लें रूप आसा अशें दिसता.

हिंदू धर्माची स्वा. सावरकरान व्याख्या केल्या ती अशी आसा -

आसिन्धुसिन्धुपर्यन्ता यस्य भारतभूमिका ।
पितृभू : पुण्यभूश्चैव स वै हिन्दुरिति स्मृत : ।।

**अर्थ** - सिंधू न्हंयेपसून दर्यामेरेन पातळिल्ली ही भारतभूंय, ज्या मनशाक पितृभू म्हळ्यार वाडवडीलांची भूंय आनी पुण्यभूंय दिसता तो हिंदू.

ही व्याख्या मुखेलपणान भुगोलीक आसा. हे व्याख्येपरस लो. टिळकान केल्ली हिंदू धर्माची व्याख्या चड व्यापक आनी उपेगी आसा, ताच्या मतान -

प्रामाण्यबुध्दिर्वेदेषु साधनानामनेकता ।
उपादयानामनियम एतध्दर्मस्य लक्षणम् ।।

**अर्थ** - वेदांविशीं प्रामाण्यबुध्दी, साधनांची अनेकता आनी उपास्य खंयचें आसचें हेविशीं निश्चित नेम नासप, हें हिंदु धर्माचें लक्षण आसा.

हेच व्याख्येचें संकलित स्वरूप लो. टिळकान मांडलां तें अशें -

'प्रामाण्यबुध्दिर्वेदेषु' हें तत्त्व आपणावन पारंपर्यागत आनी श्रुतिस्मृतिपुराणप्रतिपादित विधिसंस्कार वा आचार पाळपी तो हिंदू.

हे व्याख्येंत भौतिक आनी मानसिक वा बाह्य आनी आंतर अशा उभयविध धर्मांची जाणविकाय आशिल्ल्यान हेर सगळ्या व्याख्यांपरस ती उपेगी थारता.

हिंदू धर्माच्या प्रवर्तकांनी आनी शास्त्रकारांनी खोलायेन आनी बारीकसाणेन विचार करून व्यक्तीचें पुराय कल्याण साधपी आनी दुख्खां तशेंच अस्वास्थ्य उणें जावन चडांत चड सूख दिवपी जीण सोदून काडली आनी तेचवांगडा कांय नेमय सांगून दवरल्यात. ह्या नेमांकच आचारप्रभव धर्म म्हण्टात.

हिंदू धर्माची मांडणी विचार करून केल्या. जे समाज रचणुकेंत स्थितिस्थापकताय आसता, तो समाज अनंत काळामेरेन तिगूंक शकता. तातूंत बदलते परिस्थितीक अणसरून धर्मांत कशे, किदें फेरबदल करचे हें सांगलां. अशी स्थितिस्थापकताय किरिस्तांव आनी इस्लामी धर्मांनी ना. त्या दोन धर्मांनी जे नेम एक फावट सांगल्यात, तातूंत कोणाकच केन्नाच बदल करपाचो अधिकार ना अशें मानतात. त्या दोन धर्मांतल्या आचार - विचारांक आदारभूत असो एकच ग्रंथ आसता. किरिस्तांवांचें बायबल आनी मुसलमानाचें कुराण. पूण हिंदू धर्मांत असो एकय ग्रंथ प्रमाणभूत मानिल्लो ना. विशिश्ट कारणांखातीर विशिश्ट ग्रंथ हिंदू धर्मांत प्रमाणभूत मानल्यात. एकाच ग्रंथांत समाजाच्या सुख - स्वास्थ्याखातीर नेम सांगप शक्य नासता. जशी जशी परिस्थिती बदलता, तशें तशें धर्माक वेगळें वळण दिवचें पडटा. बदलते परिस्थितींत पोरने नेम बदलचे पडटात. तशी वेवस्था आनी आज्ञा हिंदू धर्मांत आसा, हें ताचें खाशेलपण.

पुर्विल्ल्या काळासावन प्रतिश्ठीत वैदिक धर्मावांगडा आनीकय बरेचशे लौकिक धर्मपंथ भारतांत आशिल्ले. हे धर्मपंथ वैदिक धर्माच्या विकासांतूय प्रभावी थारले. तांच्यो देवदेवता वेगवेगळ्यो आसून, धार्मिक आचारय वेगळे आशिल्ले. पूण हे जनजातींचे लौकिक धर्म रोकडेच वैदिक धर्माकडे आकर्शित जाले. तांणी वैदिक धर्माच्यो श्रध्दा आनी आचार व्हड प्रमाणांत आपणायले नात पूण वेदांविशींची आपली निश्ठा मात कायम दवरली. वैदिक धर्माचो अपकर्श सुरू जातकच त्या लौकिक धर्मांक आपली अस्मिता प्रस्थापित करपाची संद मेळ्ळी. हाका लागून बरेचशे लौकिक धर्म, तांच्यो देवता आनी आचार हांचेसयत वेदनिश्ठेच्या सुत्रान एके संघटनेंत एकठांय आयले आनी अशे तरेन इतिहासीक हिंदू धर्म जल्माक आयलो. ह्या हिंदू धर्माचे मुखेल गुणविशेश अशे आसात - प्रतिश्ठीत वैदिक धर्माच्या इंद्र, वरुण ह्या देवांची सुवात शिव, विष्णु ह्या लौकिक देवतांनी घेतली. लोक देवाकडे तारपी इश्ट आनी उध्दारकर्तो ह्या नात्यान पळोवंक लागले. यज्ञविधीची सुवात पुजेन घेतली. उपनिशदांच्या अध्यात्मशास्त्रा बदला भक्तिमार्ग लोकप्रिय जालो. भक्तींतल्यान देवपुजा आनी मूर्तिपुजेचो उगम जालो.

शुंगांच्या राजकीय पतनावांगडा हिंदू धर्माच्या भवितव्याची अनिश्चितावस्था सुरू जाली. यवन, शक, पल्हव, कुशाण ह्या जमातींनी त्या कालखंडांत भारताचेर आक्रमणां केलीं. काण्व, आंध्र - सातवाहन, भारशिव, वाकाटक ह्या राजघराण्यांनी धर्माच्या विकासाक थोडो आदार केलो. त्याच काळांत महायान बौध्द पंथाच्या रुपान हिंदू धर्माचो एक व्हड प्रतिस्पर्धी उदयाक आयलो. पूण इ.स. च्या चवथ्या पांचव्या शेंकड्यांत गुप्त राजवंशाची सत्ता प्रस्थापित जाली, तेन्ना अभिजात हिंदू धर्माक पुराय विकसित स्वरूप फाव जाल्लें.

गुप्तकाळांत निश्पन्न जाल्लें अग्रगण्य धार्मिक वाङ्मय म्हळ्यार पुराणां. त्याच काळांत एकेश्वरवादी आशिल्ल्या वेगवेगळ्या धर्मपंथांचो उदय जालो. वेगवेगळ्या अवतारांवतीन आविश्कार केल्ले विष्णु हे एकेच लौकिक देवतेभोंवतणी वैश्णव पंथाचो विकास जालो. तेचभशेन शैव पंथ वेदपूर्व आर्येतर देव शिव हाचे भोंवतणी विकसित जालो. शैव आनी वैश्णव ह्या पंथांभायर अभिजात हिंदू धर्माच्या

कालखंडांत हेर आनीकय धर्मपंथांचो उदय जाल्लो. गुप्तकाळांतल्या देवालयांचे अवशेश यक्षपंथ आनी सर्पपंथ हांचे निदर्शक आसात. हिंदू धर्मांतलो तांत्रिकांचो पंथ होय एक म्हत्वाचो पंथ आसा. वेदपूर्वकाळापयलींच्याय ह्या पंथाक पद्धतशीर स्वरूप इ.स. च्या ५ व्या शेंकड्यांत मेळ्ळें. ह्या पंथांत सगळ्या वर्णांक आनी बायलांकूय प्रवेश मेळटालो. पूण तातुंतल्या गुह्य आचार आनी कडक निर्बंधांक लागून तो एक गूढ धर्मपंथ जालो. ह्या पंथाचे शैव, वैश्णव आनी शाक्त अशे तीन मुखेल पोटभेदूय जाले.

भारता भायल्या देशांतय हिंदू धर्माचो प्रसार गुप्तपूर्व काळांतच सुरू जाल्लो. हिंदू धर्मप्रचारक उदेंतेवटेन ब्रह्मदेश, यवद्वीप, सुमात्रा हांगा आनी अस्तंतेवटेन ग्रीस, मिसर ह्या देशांनीय पाविल्ले. भारतांत आयिल्ल्या यवन, शक ह्या परकी जमातींचें हिंदूकरण ह्या काळांत व्हडा उमेदीन चालू आशिल्लें. तेउपरांतच्या हजार वर्सांच्या कालखंडांत (इ.स. ७०० ते १७००) हिंदू धर्माचे, पंथांच्या आनी उपपंथांच्या रुपान आनीक विखंडन जालें. दर एका पंथान, मूळ हिंदू धर्माचो त्याग करप ना अशें धोरण आपणायल्लें. हे धर्मपंथ कांय विशिश्ट सिध्दांतांचो पुरस्कार करपाखातीर उदयाक येवंक नासून, ईश्वरवादाचे विशिश्ट आदर्श आनी भक्तीचे विशिश्ट प्रकार प्रस्थापित करपाखातीर आयिल्ले.

भारतांत ब्रिटिशांचे राजसत्तेक सुरवात जायत सावन पारंपरीक हिंदू धर्माक एक नवी अडचण सुरू जाली. अस्तंती लोकांचें विज्ञान आनी तंत्रज्ञान हांचो हिंदू बुध्दिमंतांचेर जो प्रभाव पडलो ताकालागून ती उत्पन्न जाली. अस्तंती विद्येच्या प्रभावाची हिंदू समाजांतल्या सुशिक्षितांची प्रतिक्रिया तीन प्रकारांची आशिल्ली. भारताच्या दैन्याचें मूळ कारण म्हळयार पारंपरीक हिंदू धर्म, ताचो त्याग करूंक जाय असो निश्कर्श कांय बुध्दिमंतांनी काडलो. दुसरी प्रतिक्रिया, हिंदू धर्माच्यो श्रध्दा आनी आचार हांचें परिरक्षण जावंकच जाय. ह्या परिरक्षणवादी लोकांक, पारंपरिक हिंदू धर्म केन्नाच नश्ट जावंचो ना असो दृढ विश्वास आसा. तांच्या मतान अस्तंत्यांच्या अवनतिकारक भौतिकवादाक यशस्वी प्रतिकार करपाक हिंदुंची आध्यात्मिकताय समर्थ आसा. हिंदू परंपरा आनी आर्विल्ली संस्कृती हांच्यांतल्या संघर्शाची तिसरी प्रतिक्रिया हिंदू धर्माचें पुनर्विधान करपाच्या यत्नांत दिसता. खंयच्याय युगांतल्या प्रचोदनाक हिंदू धर्म योग्य प्रतिसाद दिवपाक शकतलो ह्या प्रत्ययांतल्यानच ही प्रवृत्ती तयार जाल्या. पूण अस्तंती विद्येचो प्रभाव हिंदू समाजांतल्या सामक्या उण्या अशा सुशिक्षित लोकांपुरतोच मर्यादित आसा. भोवजन समाजाकडे ताचो कांयच संबंद ना. आर्विल्ल्या काळाच्या संदर्भांत धर्मासंबंदीं कसलोय पुनर्विचार करूंक जाय अशी गरजच भोवजन समाजाक दिसना.

हिंदू धर्माचें स्वरूप स्थूल मानान दिसता तें अशें -

**ईश्वर :** हिंदू धर्माचे लोक सामान्यापणान ईश्वराचें अस्तित्व मानतात. धर्तरेचेर जीवाची उत्पत्ती करून तिचो नाश करपी, सगळें विश्व सुवेवस्थित चलोवपी, मळबांतले तारे, गिरे हांचे गतीचेर नियंत्रण दवरपी कसली तरी शक्त आसा, अशें हिंदूंक दिसता. ईश्वर आसा हें सिध्द करपाखातीर ईश्वराचो अणभव येवंक जाय. तसो ईश्वराचो अणभव येता असो समज हिंदू धर्मांत प्रचलित आसा. वेदान्ती लोक हाकाच ब्रह्मसाक्षात्कार म्हण्टात. प्राचीन ऋषींक आनी संतांक तसो साक्षात्कार जाल्ल्याचें तांच्या चरित्रांवयल्यान कळटा. शिव, विष्णु, राम, दत्त हीं एकाच परमेश्वराचीं वेगवेगळीं रुपां आसून, ज्या रुपांत भक्त ताचें ध्यान - चिंतन करता, त्या रुपांत तो त्या भक्ताक दर्शन दिता अशी कल्पना आसा.

**मूर्तिपुजा :** वैदिक धर्मांत मूर्तिपुजा नाशिल्ली. इंद्र, वरुण, सोम ह्यो देवता हे सृश्टींतल्यो प्रत्यक्ष दिसपी भौतिक घडणुकांच्यो अधिश्ठात्री देवता आशिल्ल्यो. उपनिषदांत परब्रह्माची कल्पना दृढ जावन ताचें निदिध्यासन हेंच पुजेचें स्वरूप थारलें. पूण कालांतरान आर्य आनी अनार्य हांच्या संमिश्र धारणांचो मेळून हिंदू धर्माचो उदय जालो. तेन्ना वेगवेगळया रुपांनी देवपुजा सुरू जाली. हिंदू लोकांनी सिंधू संस्कृतींतली शिवलिंगपुजा आपणायली. हेर देवतांच्यो मात मानवी रुपांतल्यो मूर्ती निर्माण जाल्यो. सामान्य मनशाक अमूर्त, निर्गुण परमेश्वराची उपासना करप कठीण दिसता, म्हणूनच सगुणोपासकांक मूर्तीची गरज दिसूंक लागली आनी तांणी मूर्तिपुजेचो मार्ग आपणायलो.

**स्वर्ग आनी नरक :** इहलोकांत केल्ल्या कर्माचें फळ मनशाक मेल्या उपरांत स्वर्गांत वा नरकांत मेळटा अशी हिंदू लोकांची श्रध्दा आसा. पापी मनशाक रोकडीच खयास्त भोगची पडिल्ली वा पुण्यवान मनशाक सुखसंपत्तीच्या रुपांत रोकडेंच ह्या जगांत फळ मेळिल्लें जाल्यार स्वर्ग - नरकाची कल्पना फोल थारतली आशिल्ली. पूण कांय पापी लोक इहलोकांत सूख भोगतात आनी सदाचरणी लोकांक खूब दुख्खां भोगचीं पडटात अशें परतून परतून दिसून येता. ताका लागून पाप - पुण्याचें फळ मेळटा काय ना हातूंत दुबाव येता. तो पयसावपाखातीर हिंदू धर्मांत स्वर्ग आनी नरक मानल्यात. पाप आनी पुण्य हांचें फळ ह्याच जल्मांत मेळना म्हणून स्वर्ग आनी नरकाची कल्पना उत्पन्न जाली. ह्या जल्मांत केल्ल्या पापाचें वा पुण्याचें फळ, सूख वा दूख, स्वर्गांत वा नरकांत विशिश्ट काळामेरेन भोगून जातकच मनशाचो आत्मो पुनर्जल्म घेता आनी ह्या मृत्यूलोकांत परतून येता. स्वर्ग आनी नरक खंय आसात, ह्या प्रस्नाची जाप मात मेळना.

**पुनर्जल्म :** दर एकटयाच्या कर्माप्रमाण मनशाचो आत्मो वेगवेगळे योनींत जल्म घेता, असो हिंदू लोकांचो भावार्थ आसा. ह्या जल्मांत केल्ल्या पाप - पुण्याचें फळ फुडल्या जल्मांत मेळटा, असो कर्म सिध्दान्त आसा. मनीस पूर्वसंचिताप्रमाण म्हळयार पूर्वजल्मांतल्या कर्माक अणसरून ह्या जल्मांत सुखदूख भोगता. कर्माचें फळ

भोगचेंच पडटा. आत्म्याचें संसरण हिंदू धर्मांतल्या सगळया पंथांनी मान्य केलां. ह्या संसरणांतल्यान मुक्त जावप, जल्म - मरणाच्या आनी पुनर्जल्माच्या फेरयांतल्यान सुटप, हाकाच मोक्ष म्हण्टात. कर्म योग, ज्ञानयोग वा भक्तियोग हाकालागून मनीस मुक्त जावंक शकता.

**चातुर्वर्ण्यवेवस्था :** वर्णाश्रमधर्म हें हिंदू धर्माचें एक आंग. जसो जसो समाज वाडूंक लागलो आनी लोकांचे वेवसाय वेगवेगळे जायत गेले, तेन्ना तांची किदेंतरी नेम लावन वेवस्था करूंक जाय अशी गरज समाजरक्षकांक दिसूंक लागली आनी तशी ती वेवस्था करतना तातुंतल्यान चातुर्वर्ण्याचो उगम जालो. सुरवेक वैदिक समाज एकवर्णीच आशिल्लो. पूण समाजांतल्या मनशांचे उपजत प्रवृत्तींतल्यान ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र अशे चार वर्ण निर्माण जाले. जे गिन्यानी ते ब्राह्मण जाले, जे झुजारी ते क्षत्रिय जाले, जांणी उत्पादन, वितरण आपणायलें ते वैश्य जाले. हांचे भायर जो वर्ग उरलो'तो शूद्र जालो. अशे तरेन चातुर्वर्ण्यांत समाजाची विभागणी जाली. सुरवेक ही वेवस्था गुण - कर्मांचेर आदारिल्ली पूण फुडल्या शास्त्रकारांनी चातुर्वर्ण्य हे जल्मसिध्द मानले. तेन्नासावन समाजांत उच्च - नीच भाव वाडीक लागलो.

**जातिभेद :** आयचो हिंदू समाज वर्णबध्द नासून जातिबध्द आसा. ब्राह्मण वर्ण नासून एक जात जाल्या. हेर वर्णय ना जाल्यात. त्या वर्णांतल्यो जाती मात कायम उरल्यात. हिंदू समाजांक असंख्य जातींनी विभागला. पयलींच्या चार वर्णांतल्यान ल्हव ल्हव करून वेगवेगळयो जाती उत्पन्न जाल्यो. दर एक जात स्वताक दुसरे जाती परस उच्च समजता आनी हो उच्च - नीच भाव देवान निर्मिला तेचभशेन ह्यो सगळयो जाती ईश्वरान निर्माण केल्यात असो समज आशिल्लो पूण ताका कांयच आदार मेळना. जाती फकत जल्माचेर आदारिल्ल्यो नासून वेवसाय, आचार, आहार, उपास्य देव, देशभेद, पंथ ह्या कारणांक लागून उत्पन्न जाल्यात. जातींनी आनीक उपजातीय अशाच कारणांनी निर्माण जाल्यात. अस्तंती विद्येचो प्रभाव, उद्येगीकीकरण आनी विज्ञानीक सोद हांकां लागून सद्याच्या काळांत जातिबंधनां सदळ जाल्यांत.

**आश्रमवेवस्था :** हिंदू धर्मांत चार वर्णांभशेन, ब्रह्मचर्य, गार्हस्थ्य, वानप्रस्थ आनी संन्यास अशे चार आश्रमूय सांगल्यात. ही आश्रमवेवस्था व्यक्तीच्या उत्कर्शाखातीर आनी व्यक्तिधर्माचे सोयीखातीर आसून ज्ञानसंपादनाखातीर ब्रह्मचर्याश्रमाची खूब गरज आसा.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद - संस्कृती

## हिजडो

**हिजडो :** एक जात. सुवातीप्रमाण हिजडयांक वेगवेगळया नांवांनी वळखतात. मुंबयंत तांकां कांयकडे पवया वा फातडा म्हण्टात. मध्य प्रदेशांत तांकां खसुआ जाल्यार चेन्नईंत तांकां खोजा म्हणून वळखतात. हिजड्यांचे दोन प्रकार आसात - कांय हिजडे जल्मताच हिजडे आसात म्हळयार ते नपुंसक आसतात आनी कांय हिजडे स्वताचें खच्चीकरण करून घेवन हिजडे जातात.

नपुंसक आसल्याबगर पवया जातींत प्रवेश मेळना. जेन्ना एक मनीस पवया जावपाक सोदता, तेन्ना तो एकाद्र्या पवयाकडे वचून आपली इत्सा उक्तायता. उपरांत तो पवया ताच्या उजव्या कानांत फूक घालून सूय घेवन ताचे दोनय कान तोपता आनी आपूण केन्नाच चोरी करचोना तेचभशेन एकाद्रे बायलेचो मुखत्यार जावचोना असो सोपूत घेवपाक लायता. उपरांत ताका उमेदवार म्हणून जातींत प्रवेश मेळटा. हे उमेदवारीचो काळ 'स म्हयने ते एक वर्सभेरेन आसता. हेउपरांत तो गोड खाता, बायलेचो भेस करता आनी सोयऱ्यांक जेवण दिता. ताका धनाडे, झिनिडे, लाडुडे, खिमडे अशें बायलेचें नांव मेळटा. ताच्या ह्या उमेदवारीच्या काळां. ताच्या वर्तनाचेर हेर पवयांची बारीक नदर आसता. ताच्या नपुंसकत्वाचीय चांचणी घेतात. तो नपुंसक आशिल्ल्याचें सिध्द जातकच ताच्या खच्चीकरणाचो समारंभ जाता. खच्चीकरणाखातीर एकाद्रो बरो दीस पळोवन, शुर्चिभूत जावन तो स्वताच आपलें जननेंद्रिय कापून उडयता. हो ताचो पुनर्जल्म जालो अशें मानून ताका जातींत प्रवेश दितात. चाळीस दीस तो न्हिदून आसता, त्या दिसांनी ताका हलको आहार दितात.

गुजरातांत खच्ची केल्ले हिजडे हे बहुचरा देवीचे भक्त आसतात. बहुचरा ही चारण वा भाट बायलेचें भूत आसा अशें मानतात. अहमदाबाद, पंचमहाल, काठियावाड, कच्छ आनी खानदेश ह्या भागांनी कांय पवया जातीचे हिजडे मेळटात. तांच्यांत हिंदूभशेन मुसलमानय आसात. ते स्वताक बहुचरा देवीचें निवासस्थान मानतात. हिंदू आनी मुसलमान पवयांभितर रोटी - वेव्हार जायनात. पूण दिसपाक ते सारकेच आसतात. इ.स. १८८० वर्सा बडोद्याच्या गायकवाड सरकारान आपल्या राज्यांत खच्चीकरणाची चाल बंद केली. तेन्ना पवयांक खूब दूख्ख जालें. नपुंसकांचें खच्चीकरण जालेंना जाल्यार ताचेर देवीचो कोप जावन ते सात जल्मभेरेन नपुंसकच उरतले असो भंय तांणी उक्तायलो. हे लोक बहुचरा देवीची मूर्त पुजतात. ते जेन्ना भिक मागत गांवागांवांनी भोंवतात तेन्ना त्या प्रदेशांतल्या बहुचरा देवीच्या दर्शनाक ते चुकनासतना वतात. ते हिंदू आनी मुसलमान ह्या दोगांयचेय सण मनयतात. बहुचरा देवीचीं पदां म्हणत भिक्षा मागप हो ह्या लोकांचो मुखेल धंदो आसा. कोणाच्याय दारांत उबो रावन ते व्हडल्यान 'बहुचरा तुमचें आनी तुमच्या भुरगे - बाळांचें बरें करतली' अशें व्हडल्यान म्हण्टात. घरांतल्या लोकांनी भीक घातलीना जाल्यार तांकां गाळी घालतात. गाळी घालुनय भीक मेळिळना जाल्यार ते आपल्या आंगावयले कपडे पिंजतात. तेन्ना लोक भितात आनी तांकां भीक घालतात.

कांय थरावीक गांवांनी ते टोळी करून भोंवतात आनी थंयचे दुकानदार, सुतार, शिंपी, चामार, शेट, धवड हांचेकडल्यान वर्सुकी खंडणी वसूल करतात. दर एका कुणब्याच्या घरांतल्यान, पूत जल्मल्यार ते पयशे घेतात. गुजरातांतल्या चडशा भागांनी एकाद्रे बायलेक खूब दिसांनी भुरगें जालें वा खूब तेंपान चलो जाल्यार पवयांक आपयतात आनी तांच्या घरासामकार नाचूंक लायतात.

उत्तर गुजरातांतले हिजडे खच्ची करीनात. ते स्वताक बहुचरा देवीचे उपासक मानतात. पूण ते बायलांचो भेस करीनात. तांचें उलोवप - चलप मात छिनाल बायलेभशेन आसता. तांचीं लग्नां जातात आनी तांकां भुरगींय जातात. ते नांवाक हिजडे आसतात. पयलींच्या काळांत राजारजवाड्यांनी, गिरेस्त जमीनदारांनी आनी ग्रामपंचायतींनी तांकां जमनी दान दिल्ल्यात. ग्रामपंचायतींकडल्यान तांकां वर्सुकी खंड मेळटा. ताचेर ते आपलें पोट भरतात.

अहमदाबादेंतल्या पवयांच्या खच्चीकरणाचो सुवाळो मात्सो वेगळो आसता. बहुचरा देवीच्या देवळांत, पुजारी हो सुवाळो करता. उमेदवाराक न्हाणोवन तांबडी साडी न्हेसयतात, केंसांचो आंबाडो घालून माथेंभर फुलां माळटात. गळयांत फुलांच्यो माळो घालतात. कुडींत मर्दी ताका एका स्टुलाचेर बसोवन ताचे हातपांय घट्ट धरतात. कांय लोक धोलकीं आनी झांजो वाजयतात. शस्त्रक्रिया करपी मनीस एकाच वारान ताचें जननेंद्रिय कापून उडयता. ही शस्त्रक्रिया धोक्याची आसता.

राजस्थानांतय हिजड्यांची खूब व्हड जमात आसा. त्या मानान दक्षिण भारतांत ते खूब उण्या प्रमाणांत आसात. पयलीं दक्षिण भारतांतले गिरेस्त मुसलमान आपल्या जनानखान्याचेर देखरेख करपाखातीर हिजडे वा खोजे हांची नेमणूक करताले. तांची दीक्षा घेवपाची पद्दत पवयांचे दीक्षाविधीभशेनूच आसा आनी भिक्षा मागपाची पद्दतूय पवयांभशेनूच आसा. पूण ते तांचेपरस चड बेमुर्वत आनी उर्मट आसतात. रातच्या वेळार ते मुसलमान दादल्यांबरोबर अचकट - विचकट आनी अश्लील भास उलयत भोंवतात. मुसलमान तांकां माजूम हें अंमली पेय पिवोवन आपलें काम सादोवन घेतात.

दक्षिण भारतांत हुलिग्गम नांवाची एक देवी आसा. तिच्या नांवान बसवींक सोडटात. तातूंत हिजड्यांचो आनी विकृती आशिल्ल्या दादल्यांचो आस्पाव जाता. तेय साडी न्हेसतात, चोळी घालतात आनी कपलभर पिंजर लायतात. रायचूर जिल्ह्यांत हे लोक खूब मेळटात. तांच्या माथ्याचेर एक बुटी आसता आनी तातूंत देवीचें प्रतिक म्हणून कळशी दवरतात. आपली विकृती पयस जावची म्हणून ते देवीक, आपूण बायलांभशेन भेस करता म्हणून आंगवण करतात. तांच्यांतल्या कांय जाणांक परतून दादलेपण येता अशें म्हण्टात.

पवया मर्डी पुरतात. मनीस मरतकच ताका न्हाणोवन खाटीचेर घालतात. उपरांत एका नितळ वस्त्रांत गुठलावन मुसलमानांकडल्यान दहन करतात. पवया, मड्याक हात लायनात. पूण ते मड्यावांगडा मसंडेंत वतात. मेल्ल्याच्या धाव्या आनी चाळिसाव्या दिसा मेल्ल्या मनशाचो खास इश्ट समाजाक आनी मडें व्हरपी मुसलमानांक जेवण घालता. ताका तशें करचें पडटा नाजाल्यार ताका जातींतल्यान भायर घालतात. मेल्ल्या मनशाचें उपरांत थडगें उबारतात.

- कों. वि. सं. मं.

**हिजरी शक :** एक कालगणना. हिजरत ह्या उतराचो अर्थ अरबी भाशेंत निश्क्रमण असो आसा. ज्या दिसा मुहंमद पैगंबरान दुस्मानाच्या भंयान मक्केच्यान मदिनेक निश्क्रमण केलें त्या दिसापसून ह्या काळाची मेजणी सुरू जाली, अशें समजतात. ताकालागून हाका हिजरत, हिजरिय्यह सारकिल्लीं हेर नांवां आसात. ह्या प्रसंगाची गणितान आयिल्ली तारीख १५ जुलै ६२२ आसून परंपरागत तारीख १६ जुलै ६२२ ही येता. ह्या कालमेजणेंतलें वर्स पुराय तरेन चांद्रमानाचें आशिल्ल्यान एक वर्स केन्नाय ३५४ तर केन्नाय ३५५ दिसांचें आसता. ह्रातूंत तीस वर्सांचें एक चक्र कल्पिलां आनी तातुंतल्या २, ५, ७, ८, १०, १३, १५, १९, २१, २४, २६, २७, २९ ह्या वर्सांचे दर एकाक ३५५ दीस आनी बाकिच्या वर्सांचे दर एकाक ३५४ दीस धरतात. ताकालागून ३० वर्सांचे १०६३३ दीस जातात. हे कालगणनेंतले आनी हिंदू कालगणनेंतले म्हयने चडकरून चांद्रमानाचे आशिल्ल्यान ते लागीं लागीं एकामेकांकडेन जुळटे आसतात. पूण हिंदू कालगणनेंत चडित म्हयनो आशिल्ल्यान दर तिसऱ्या वा चवथ्या वर्सा हिजरी सनांतलो म्हयनो हिंदू म्हयन्याच्या फाटल्यान येता. हाकालागून ३२ वा ३३ वर्सांत हिजरी म्हयनो बारा म्हयने फाटल्यान गेल्ल्यान परत सुरवेच्या हिंदू म्हयन्यावांगडा येता.

हिजरी सनांत मोहरम बी म्हयने येतात. म्हयन्याची सुरवात शुक्ल प्रतिपदा वा द्वितीया हे तिथीक चंद्रदर्शन जालें म्हणजे जाता. दीस वा तारखो हांकां चंद्र अशें म्हण्टात. सूर्य अस्ताक वता ते वेळेपसून दिसाची सुरवात धरतात.

सगळया इस्लामी देशांनी हो सन चालू आसा. मुसलमान राज्यकर्त्यांवांगडा हो सन अरबस्थानांतल्यान भारतांत आयलो. द. भारतांतले मुसलमान राजे ह्या सनाप्रमाण कालमेजणी करताले. इजिप्त आनी भारत ह्या देशांनी मुसलमान लोक आपल्या धार्मिक सण वा समारंभांखातीर हीच कालमेजणी वापरतात. पूण शेती आनी हेर वेवसायांक ती सोयीची नाशिल्ल्यान तेखातीर ते जूलियन कॅलेंडर वापरतात.

- कों. वि. सं. मं.

**हिटलर, ॲडॉल्फ :** (जल्म : २० एप्रिल १८८९ ऑस्ट्रीया - हंगेरी, ब्राऊनाऊ; मरण : एप्रिल १९४५, बर्लीन).

नाझी जर्मनचो हुकूमशहा. ताचें चडशें भुरगेंपण उत्तर ऑस्ट्रीयांत आशिल्ल्या लिंझ शारांत गेलें. १९०३ त ताच्या बापायक मरण आयलें. शालेय शिक्षणांत ताका व्हडलेंशें यश मेळ्ळेंना. पूण पिरायेचीं सोळा वर्सां मेरेन शिक्षण सक्तीचें आशिल्ल्यान ताका शिक्षण अदर्यार सोडूंक मेळ्ळें ना. ताची चित्रकार जावपाची म्हत्वकांक्षा आशिल्ली. पूण तेरवातीर ताणें कसलीच पुर्व तयारी करूंक नाशिल्ल्यान ताका फायन आर्टस् अकादेमींत प्रवेश मेळूंक शकलो ना. १९०८ त ताचे आवयक मरण आयल्या उपरांत ताणें कांय वर्सां एकटुर्कीच सारलीं. आपलो दिसपट्टो खर्च भागोवपाखातीर तो ल्हान - सान पोस्टरां पितरावपाक लागलो. उपरांत १९१३ त तो म्यूनिक शारांत आयलो. थंय ताणें लश्करांत भरती जावपाचो यत्न केलो. पूण ताका अपात्र थारायल्ल्यान लश्करांत प्रवेश मेळ्ळो ना. १९१४ त पयलें महाझूज सुरू जाल्ल्यान जर्मनींत भौशिक लश्करी भरती सुरू जाली, तेन्ना ताका संद मेळ्ळी. पयलें झूज सोंप मेरेन ताणें आघाडीचेर व्हड पराक्रम गाजयल्ल्यान ऑगस्ट १९१८ त ताका प्रथम श्रेणी आयर्नक्रॉस भेटोवन ताचो सत्कार केलो.



झुजांत वांटो घेतिल्ल्यान ताचे उबगल्ले जिणेंत नवो उत्साह आयलो आनी नवी दिका मेळ्ळी. झुजाउपरांत ताणें राजकारणांत वांटो घेवपाचें थारायलें. झुजांत हारिल्ले जर्मनीचेर दोस्त राष्ट्रांनी व्हार्सायचे कबलातीवरवीं साबार अपमानास्पद अटी घाल्ल्यो. जर्मन तरणाट्यांभितर व्हार्साय कबलातीचो बदलो घेवपाची भावना निर्माण जाल्ली. तेच प्रमाण झुजाक लागून इबाडिल्ले अर्थीक आनी भौशिक स्थितीक लागून जर्मनींत असंतोश पाताळिल्लो. ते स्थितीचो फायदो घेवपा खातीर १९२० त हिटलरान नॅशनल सोशॅलिस्ट (नाझी) पक्षाची स्थापणूक केली. हिटलरान आनी ताच्या वांगड्यांनी ते परिस्थितीचो फायदो घेवनूच आपल्या पक्षाचें बळगें वाडयलें. जुलय १९२१ त तो नाझी पक्षाचो अध्यक्ष जालो. ताणें सगळ्या वर्गांतल्या लोकांभितर पातळिल्ल्या असंतोशाचो फायदो घेवन एक व्हड चळवळ उबारपाची येवजण आंखली. तेरवातीर तो शाराशारांनी भोंवन नेटान प्रचार करपाक लागलो. लोकांच्यो भावना जाणून तशें तो भाशण करपाक लागलो. त्याच वेळार ताका रोशेनबर्ग, हेस, गोडरिंग आनी स्ट्राइशर सारकिल्ल्यांचो सांगात मेळ्ळो. १९२३ त हिटलरान म्यूनिक शारांत क्रांती घडोवन हाडपाचो यत्न केलो. पूण ताचे यत्न अपेशी थारिल्ल्यान ताका पांच वर्सां बंदरवणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण प्रत्यक्षांत ताका फकत णवच म्हयने बंदरवणींत रावंचो पडलो. त्या काळांत हिटलरान 'मीन कॅम्फ' ह्या आपल्या आत्मवृत्ताचो एक भाग बरोवन काडलो. तातूंत ताणें आपल्यो राजकीय येवजण्यो मांडिल्ल्यो. ताच्या मतान वंशभेद आनी व्यक्तीभेद हे सैमीक प्रकार आसात. जर्मन लोक हे मुळचे आर्य लोक आसून ते हेरांपरस श्रेश्ठ आसात. लोकशाहींत सगळया लोकांक समान हक्क आशिल्ल्यान, ताका लोकशाहीं तत्त्वां मान्य नाशिल्लीं. मार्क्सवादाक तो आपले कट्टर दुस्मान मानतालो. मार्क्सवादा प्रमाण ज्यू लोकांकय तो जर्मन समाजाचे व्हड दुस्मान मानतालो. जर्मनींत ज्यू लोकांचो आस्पाव आसमेरेन देशाचो विकास जावंचो अशें तो सांगतालो. तेरवातीर जर्मनींतल्यान ज्यू लोकांक ना करपाचो वावर ताणें हातांत घेतलो.

हिटलर बंदरवणींत आशिल्लो तेन्ना नाझी पक्षांत भेद निर्माण जावन फूट पडली. हिटलराची सुटका जाल्या उपरांत तो नाझी पक्ष परतून घट्ट करपाच्या वावराक लागलो. तेरवातीर ताका खूब तकालस घेवंची पडली. सुटका जाल्या उपरांत सरकारान हिटलराचेर भाशण करपाक बंदी घाल्ली. तशेंच ग्रेगर स्ट्रेसर हाणें उत्तर जर्मनींत नाझी पक्षाआड चळवळ उबारिल्ली. पूण १९२६ मेरेन नाझी पक्ष बळीश्ट करपाक हिटलराक यश आयलें.

१९२९ त संवसारभर पाताळिल्ले अर्थीक मंदीक लागून जर्मनींतय राजकीय आनी अर्थीक नदरेन परत स्थिरता निर्माण जाली. त्या वेळार कारखान्यांनी चलपी साबार संप हिटलरान मोडून उडयल्ल्यान ताका धनी लोकांचें फाटबळ मेळ्ळें. तांच्या आदारानच ताणें नाझी पक्षाची अर्थीक स्थिती घट्ट केली. मध्यम वर्गीय बेकार तरणाट्यांक, तशेंच अर्थीक मंदीक लागून बेकार जाल्ल्या लोकांक ताणें एकवटीत करून नाझी पक्ष सगळयो अडचणी पयस करतलो अशे ताणें आश्वासन दिलें. १९३० जाल्ले वेंचणुकेंत नाझी पक्षाक साठ लाख मतां मेळ्ळीं. हिटलरान १९३२ त हिन्डेन्बर्गा आड अध्यक्ष पदाचे वेंचणुकेंत वांटो घेतलो. तातूंत ताका ३६.८% मतां मेळ्ळीं. १९३३ त हिन्डेन्बर्ग हाणें आपूण जावन अध्यक्षपदाचीं सुत्रां हिटलराच्या हातांत दिलीं. हिटलरान उपरांत पापन ह्यूगेनबर्ग आनी फिल्ड मार्शेल वॅरनर हांच्या आदारान सत्ता हातांत घेतली. सत्ता हातांत आयल्या उपरांत तो जर्मनींत आपली हुकूमशाय स्थापीत करपाच्या वावराक लागलो. ताचे सत्ते आड आवाज उठयतल्यांचेर फटीचे आळ दवरून साबार विरोधकांक जिवेशीं मारले. मार्च १९३३ त घेतिल्ले संसदेचे वेंचणुकेंत नाझी पक्षाक ४३.९% मतां मेळ्ळीं. उपरांत हिटलरान अर्थीक उदरगत आनी बेकार लोकांक कामांक लावपाचो व्हड वावर सुरू केलो. ऑगस्ट १९३४ त हिन्डेनबर्ग हाका मरण आयल्या उपरांत हिटलरान आनी ताच्या वांगड्यांनी जर्मनीचें अध्यक्षपद आनी चॅन्सलरपद एक करपाचें थारावन, तेरवातीर भौशिक वेंचणूक घेतली. तातूंत ताका ९०% जर्मन जनतेचो तेंको मेळ्ळो. जर्मनची पुराय सत्ता आपल्या हातांत घेतल्या उपरांत देशा भितल्ली कामगिरी ताणें आपल्या

वांगड्यांकडेन सोंपोवन, हिटलरान आपलें लक्ष परराश्ट्रनिति कडेन वळयलें. पयल्या म्हाझुजांत जर्मनीचे गेल्ले सगळे प्रांत परत मेळोवप ही मोख ताणें आपल्या मुखार दवरली. हे खातीर जर्मनीक परत सशस्त्र करपाचो वावर ताणें हातांत घेतलो. १९३५ त सार प्रांतांत भौशिकमत घेवन तो प्रांत जर्मनीक जोडलो. उपरांत ताणें ब्रिटनाकडेन नाविक कबलात केली. ते कबलातीवरवीं ताणें जर्मनीक परतून सशस्त्र करपाचो वावर सुरू केलो. १९३६ त ऱ्हाइनलँड प्रांताचें लश्करीकरण केलें. त्याच तेंपार इटालींत मुसोलिनीची हुकूमशाय चलताली. १९३६ त हिटलरान मुसोलिनी वांगडा दोस्तीची कबलात केली. ते कबलातीक फाटबळ मेळचें म्हूण जपाना कडेन रशिया आड कॉमिंटर्न कबलात केली. अशे रितीन हिटलरान जर्मन - इटली - जपान ही त्रिपक्षीय आघाडी तयार केली. १९३८ त ऑस्ट्रियाच्या चॅन्सलराक बर्लिन शारांत आपोवन ताच्या कडच्यान ऑस्ट्रियाचें जबरदस्तीन जर्मनींत विलिनीकरण केलें. उपरांत झेकोस्लोव्हाकियांत अल्पसंख्येन जर्मन लोक आशिल्ले वाठार घेवपाखातीर ताणें सुरवेक ३० सप्टेंबर १९३८ दिसा झेकोस्लोव्हाकिया कडेन म्यूनिक कबलात. केली. ती कबलात करून लेगीत ताचें समाधान जालें ना म्हूण ताणें १६ मार्च १९३९ दिसा झेकोस्लोव्हाकियेंत आपलो ताबो दवरलो. उपरांत लिथुआनिया प्रजासत्ताकाकडच्यान ताणें मेमेल प्रांत घेतलो. फ्रांस आनी ब्रिटना आड आपली बाजू घट्ट करपाखातीर ताणें १९३९ त इटली कडेन मेमेल ही खास कबलात केली. उपरांत २१ ऑगस्ट १९३९ दिसा रशियेकडेन गुपीत कबलात केली. त्यो सगळयो कबलाती हिटलरान दोस्त राश्ट्रांआड झूज करपाच्या हेतुनूच केल्ल्यो.

पूर्व तयारी केल्या उपरांत हिटलरान १ सप्टेंबर १९३९ दिसा पोलंडाचेर घुरी घाली. फ्रांस आनी ब्रिटनान पोलंडाकडेन अनाक्रमणाची कबलात केल्ल्यान ताणीं ३ सप्टेंबर १९३९ दिसा जर्मनीआड झूज उबारलें. अशेरितीन दुसरें म्हाझूज सुरू जालें. झूज सुरू जाल्या उपरांत हिटलरान मोहिमेची आंखणी आनी झुजाचे डावपेंच हांचीं सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतलीं. पोलंडाचेर ताबो मेळयल्या उपरांत, ताणें एप्रिल १९४० त डेन्मार्क आनी नॉर्वेचेर घुरी घाली. १० जून १९४० दिसा मुसोलिनीच्या फुडारपणाखाला इटलीन, जर्मनीवटेन झुजांत वांटो घेतलो. हिटलराच्या सैन्यान फ्रांसाचेर घुरी घालून फ्रांसाचो बरोचसो उदेंत भाग हातासलो. झुजाच्या सुरवेच्या काळांत जर्मन सैन्याक दोस्त राश्ट्रांच्या फौजांक धांवडावन घालपाक यश मेळिल्लें.

हिटलरान रशियेवांगडा अनाक्रमणाची कबलात केल्ली. पूण हिटलर मार्क्सवादाचो कट्टर विरोधी आशिल्ल्यान ताणें जून १९४२ त रशियेचेर घुरी घाली. पूण त्यावेळार रशियेंत शिंयाळो आशिल्ल्यान साबार जर्मन सैनिक शिंयाच्या कडकड्यान मेले. जर्मन सैन्य रशियेआड झगडटालें तेन्ना डिसेंबर १९४१ त जपानान पर्ल हार्बराचेर घुरी घाली. हाका लागून हिटलराच्या आक्रमक हालचालींक फाटबळ मेळ्ळें, पूण अमेरिका दोस्त राश्ट्रांक मेळून जर्मन - इटली - जपान ह्या त्रिपक्षीय आघाडे आड झुजपाक लागली. १९४२ च्या शेवटाक आफ्रिकेंत एल् - अम - अमेन् हांगा तशेंच रशियेंतल्या स्टालीनग्राडच्या झुजांत जर्मनचो पराभव जालो. उपरांत जर्मनचो एकसारको पराभव जायत रावलो. १९४३ त दोस्त राश्ट्रांनी इटलीचोय पराभव केलो. झुजांत जर्मनीचो एकाफाटल्यान एक पराभव जायत रावलो तसो हिटलराक मुखेलपदावयल्यान काडून उडोवपाचे खूब यत्न जावपाक लागले. जर्मनिचो पराभव निश्चीत आसा हें जाणून जानेवारी १९४५ उपरांत हिटलर बर्लिन शारांतच रावलो. २९ एप्रिल दिसा ताणें आपली मिस्ट्रेस, इव्हाकडेन लग्न केलें. उपरांत ताणें ॲडमीरल डोन्टेझकडेन सत्ता दिवन आत्महत्या केली. हिटलरान जर्मनींत सुमार पंदरा वर्सां यशस्वीपणान हुकूमशाय गाजयली. पूण एकाधिकारशाही, दुसऱ्यांवयलो अविश्वास, हेकेखोरपणा ज्यू द्वेश आनी अवाजवी आत्मविश्वास हांकां लागून ताका अपेश आयलें. पूण आत्महत्या करचे पयलीं ताणें सबंद युरोपाचो नकासो बदलून उडयल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**हिमाचल प्रदेश :** भारतीय घटक राज्य. भारतीय नकाशांत ताचो वायव्येकडेन आस्पाव जाता. तें हिमालय पर्वतांच्या मुळसांत वसलां. पयलीं हो पंजाबाचोच एक भाग आशिल्लो. पूण १९७१ त ताका घटक राज्याचो दर्जो मेळ्ळा. क्षेत्रफळ ५५,६७३ चौ. किमी. लोकसंख्या ५,१७०,८७७ (१९९१) ह्या राज्याचे उत्तरेक जम्मू आनी काश्मीर, नैऋत्येक उत्तर प्रदेश, दक्षिणेक हरियाणा आनी अस्तंतेक पंजाब ही राज्यां आसून उदेंतेक तिबेट देश आसा. शिमला हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** राज्याची चडशी भूंय पर्वतीय आसली तरी भूंयरचणुकेचे नदरेन राज्याचे उत्तर आनी दक्षिण अशे दोन वांटे केल्यात. दक्षिणेकडचो चडसो भाग सपाटसो आसून, थंयचें हवामान उश्ण आसता. जाल्यार उत्तरेकडचो चडसो भाग पर्वतीय आसून, थंयचो गीम सौम्य, जाल्यार शिंयाळो खूब कडक आसता. शिंयाच्या दिसांनी तेमकांच्या माथ्यार हिम सांचता. उत्तरेकडच्या पर्वतीय भागाची दर्याथळासावन उंचाय ४६० ते ६,६०० मी. मेरेन आसा. चेनाब, बियास, रवी आनी सतलज ह्यो भारतांतल्यो मुखेल न्हंयो ह्या राज्यांतल्यान व्हांवतात, जाल्यार यमुना न्हंय हिमाचल प्रदेश आनी उत्तर प्रदेश हांचे शिमेवयल्यान व्हांवता. रेणूका, रेवालसार, खज्जीयार, चंद्रताल, गोवींद सागर, पोंग आनी पांदोह हीं राज्यांतलीं म्हत्वाचीं तळीं. रोहतंग, बारालच्या, कुंझूम, कुग्टी सच, शिप्की, मणीरंग ह्यो हांगाच्यो म्हत्वाच्यो रिंवडी. राज्यांतलो वर्सुकी सरासरी पावस १८१.६ सेंमी. मेरू ही हिमाचल प्रदेशाची राजकी मोनजात. वेगवेगळया मोनजातींची राखण करपाखातीर राज्यांत वट्ट २९ अभयारण्यां आसात.

**इतिहास :** इतिहासकारांच्या मतान खबर आशिल्ल्या लोकांमदले दास हे राज्यांतले सगळयांत आदले लोक. आर्य लोक आयल्या उपरांत ताणीं ह्या थळाव्या लोकांक आपल्या शेकातळा दवरले. उपरांत ल्हव ल्हव हे दोनय वंशांचे लोक एकमेकांत भरसून गेले. भारतांतल्या हेर प्रदेशांप्रमाण उपरांत ह्या पर्वतीय भागांतय स्वतंत्र राज्यां अस्तित्वांत आयलीं. उत्तर भारतांत मौर्यांचो शेक आयल्या उपरांत ह्या राज्यांनी तांचें मांडलिकत्व आपणायलें. उपरांत तांचेर कुशाण, गुप्त आनी कनौज घराण्यांनी शेक गाजयलो. मध्य युगांत ह्या पर्वतीय राजांनी मोगल आनी हेर मुसलमान राज्यकर्त्यांकडेन बरे संबंद स्थापीत केल्ले. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत महाराजा रणजीत सिंग हाणें ह्या प्रदेशांतलीं कांय राज्यां आपल्या राज्याक जोडलीं. ब्रिटीश येवंचे आदीं हांगा गुरखा लोकांचो शेक चलतालो. ब्रिटीश आयल्याउपरांत ताणीं गुरखांचेर हार घालून, थंयच्या कांय राजांकडेन कबलात करून तांकां आपले मांडलीक केले. ज्या राजांनी ब्रिटीश मांडलीकत्व आपणावपाक न्हयकार दिल्लो, तांचेर धुरी घालून तीं आपल्या शेकातळा हाडलीं. १९४७ मेरेन ही स्थिती सादारणपणान तशीच आशिल्ली.

भारत स्वतंत्र जाल्या उपरांत १५ एप्रिल १९४८ दिसा वेगवेगळीं ३० संस्थानां एकठांय हाडून एक मध्यवर्ती शासकीय प्रदेश निर्माण केलो. उपरांत १९६६ तल्या पंजाब फेर रचणुकेवेळार शिमला, कूलू, कांग्रा, लाहोर आनी स्पिती हे प्रदेश तशेंच होशियारपूर आनी अंबाला जिल्ह्यांचे भाग हिमाचल प्रदेशाक जोडले. २५ जानेवारी १९७१ दिसा हिमाचल प्रदेशाक स्वतंत्र घटक राज्याचो दर्जो मेळ्ळो.

हिमाचल प्रदेशाची बारा तालुक्यांनी विभागणी केल्ली आसा. विधानसभा एक सदनी आसून, तातुंतले ६८ वांगडी दर पांच वर्सांनी भौशिक मतदानान वेंचून काडटात.

**अर्थीक स्थिती :** हिमाचल प्रदेशाची अर्थविवस्था मुखेलपणान शेतवडीचेर आदारल्या. राज्यांतल्या वट्ट कामगारांतले सुमार ७५% कामगार शेतवडींत वावुरतात. हांगाच्या व्हड व्हड न्हंयांचेर धरणां उबारून राज्यांतले वट्ट पिकावळीखाल आशिल्ले भुंयेची सुमार २६% भूंय शिपणावळीखाल हाडल्या. हांगाचें हवामान शेतवडीक फावोशें आशिल्ल्यान वेगवेगळीं पिकां खूब प्रमाणांत येतात. तांदूळ, गंव, मको, बटाट, आलें, ओलीव, अंजीर हीं राज्यांतलीं मुखेल पिकां. फळफळावळींत, ॲपल, पीच, संत्र, पेर, प्लम आनी ॲप्रीकोट हांचो आस्पाव जाता. हालीं तेंपार हॉप, ऑलिव, फिग आनी अळम्यांच्या पिकांचेर चड भर दिवप जाता. पशुपालनांतय बरी उदरगत जाल्या.

उद्देगीक मळार हें राज्य आजय फाटींच आसा, व्हड सैमीक सांठे आनी हायडल ऊर्जेची उपलब्धता आसून लेगीत तांचो फावो त्या प्रमाणांत उपेग जायना. हालीं तेंपार सरकाराच्या पालवान खूब लघूउद्देग चालीक लागल्यात. हांगा रेसिन, टरपेंटायन, मशीन टूल्स, सिंथेटिक ड्रग्स, फार्मास्युटिकल्स, सारें, विद्युत् उपकरणां, शिमीट आनी शिमीटापसून घडयल्ल्यो वस्तू, कपडो, टि.व्ही. संच घड्याळाचे मेकळे भाग, चामडें कमोवप आनी आयदनां करपाचे कारखाने आसात. बारोतीवाला, नगरोता, मेहतपूर, पाडंता साहेब, बिलासपूर, शम्शी, सोलान, परलानू, पिओ, धरमपूर, कांग्रा हीं उद्देगधंद्याचे नदरेन म्हत्वाचीं शारां. राज्याच्या वेगवेगळया भागांत खनिज मीठ, पाटी, जिप्सम, चूनखडी, बायरायट, डोलोमायट आनी पायरायट हांचे सांठे आसात.

- कों. वि. सं. मं.

## हिरवे तुकाराम विष्णु : (जल्मः म्हापसा - बारदेस; मरणः १० नोव्हेंबर १९७५).

सुटकेझुजारी. ताणें माध्यमिक मेरेन मराठींतल्यान शिक्षण घेतलें. तो आझाद गोमंतक दल संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५४ सावन तो सुटके झुजाखातीर वावर करूंक लागलो. दिगंबर पुजारी, आपा शेटये आनी हेर वांगड्या सयत ताणें म्हापशां टपाल खात्याक उजो लायलो. १९५४ - ५५ ह्या काळांत ताका तीन फावट अटक जाली आनी सुमार ४ म्हयने तो बंदखणींत उरलो. बंदखणींत आसतना पुर्तुगेज पोलिसांनी लोखणाच्या वारांवान ताका सुमाराभायर मारून दोळयांनी कुड्डो केलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## हिरो : (पळेयात रत्न).

## हिरोडोटस : (जल्म : इ.स. प. ४८४, मायनर - आशिया; मरणः ?, थुरी - इटली).

नामनेचो ग्रीक इतिहासकार. ताचो जल्म हॅलिकारनासस् घराण्यांत जाल्लो अशें मानतात. हिरोडोटसान केल्ल्या वावराची स्पश्टपणान म्हायती मेळना. पूण अभिजात साहित्यकारांनी हिरोडोटसाचर बरयल्ल्या लेखावरवीं हिरोडोटसाच्या वावराविशीं सांगप जाता. आशिया मायनरचो हुकूमशहा लिग्डामीसा आड जाल्ल्या बंडांत ताणें वांटो घेतिल्ल्यान ताका तडीपार केल्लो. पूण गुपितपणान परतून येवन, ताणें आपल्या हेर वांगड्यांच्या आदारान लिग्डामीसाक सत्ते भायरो केलो आनी देशांत संविधानात्मक सरकारची स्थापणूक केली. ताका तडीपार केल्लो तेन्ना ताणें इराण, अरबस्थान, इजिप्त, इटली आनी हेर देशांची भोंवडी करून तांचो भूगोल आनी इतिहास बरयलो.

ग्रीको - परसियन झुजाविशीं बरयल्ल्या इतिहासाक लागून ताका चड नामना मेळ्ळया. पुराणीक कथा आनी काव्य हांचेपसून इतिहास वेगळो काडपाचो वावर करपी हिरोडोटस हो संवसारांतलो

पयलो तज्ञ आशिल्लो. आदल्यो इतिहासीक घडणुको चिकित्सकपणान आनी रंगोवन सांगपारवातीर तो कुशळ आशिल्लो. पूण घडणुकेंतल्या सत्याचेर तो सदांच भर दितालो. देवदेवतांची म्हायती मेळोवपारवातीर कथा आनी काव्यांचो आदार घेवंचो पडटा. पूण इतिहास हो मनशांचें जिवीत सांगपारवातीर आनी मनीसपणाचें गिन्यान वाडोवपारवातीर बरोवपाचो आसता. हाका लागून इतिहास सांगतना वा बरयतना सदांच सत्याचेर भर दिवंचो अशें ताचें मत आशिल्लें.

ग्रीस आनी इराण हांचें झूज हिरोडोटस आसतना जाल्लें. हाका लागून त्या झुजाचो इतिहास घडला तेच तरेन बरोवप ताका शक्य जालें. पूण ताच्या काळांत खबर आशिल्ल्या संवसारांतलो इतिहास ताणें अनुषंगान सांगला. त्याखातीर ताणें साधनचिकित्सा आनी तर्कशास्त्रीय पद्दत आपणायल्ली. काव्य आनी कथेंतल्यान इतिहासीक घडणुको पद्दतशिरपणान वेगळयो काडपाचो वावर करपी हिरोडोटस हो पयलो तज्ञ आशिल्ल्यान ताका 'इतिहासाचो जनक' मानला. आपले जिणेंतले निमाणे दिस ताणें इटालींतल्या थूरीं गांवांत आशिल्ले ग्रीक वसाहतींत काडले. उपरांत ताका थंयच मरण आयलें अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**हिस्टेरिया :** हिस्टेरिया ही मानसीक जातींत मोडपी एक पिडा. मानसीक पिडांच्यो मुखेल जाती दोन आसतात 'न्युरोसीस' आनी 'सायकोसीस'. हिस्टेरिया ही एक न्युरोसीस जातींतली पिडा आशिल्ल्यान तिका न्युरोटीक पिडा अशें म्हण्टात. जेन्ना मनशाक हिस्टेरिया ही पिडा जाता तेन्ना तो ताचे कुडीक संबंदीत आशिल्लीं जायतीं लक्षणां दाखोवंक शकता, जांकां आमी 'फिसिकल सिंपटमस' अशें म्हण्टात. पूण सोदूंक गेल्यार ह्या लक्षणां फाटलें खास अशें कारण मेळना.

हे पिडेचो सोद लावपी पयलो मनीस आशिल्लो 'हायपॉक्रिटीस' (Hypocretes) हो ग्रीक दोतोर. सगळयां परस पयलीं ताकाच हे पिडेची वळख पटिल्ली. ताणें जेन्ना ह्या संबंदान अभ्यास केलो तेन्ना ताका अशें दिसून आयलें, हिस्टेरिया ही पिडा चडकरून बायलांक जावपी पिडा आसा आनी हाचे फाटलें कारण आसा तांचो गर्भाशय म्हळयार 'युटेरस' (Uterus) हो अवयव. ताच्या मतान जेन्ना बायलांचो गर्भाशय आपले सुवातेवयल्यान हालता ज्या प्रकाराक 'डिस्प्लेसड युटेरस' (Displaced Uterus) अशें म्हण्टात. तेन्नाच बायलांक हिस्टेरिया ही पिडा जावंक शकता. ग्रीक भाशेंत गर्भाशयाक म्हणजे युटेरस ह्या अवयवाक हिस्टेरिया अशें म्हण्टात. हाकाच लागून जांवये आतां लेगीत कोणाचोय गर्भाशय काडून वडोवपाचे शस्त्रक्रियेक 'हिस्टेरेक्टोमी' (Histerectomy) अशें म्हण्टात. (हिस्टेरे म्हळयार गर्भाशय (Uterus) आनी 'टोमी' म्हळयार काडून वडोवप).

ज्या कोणाक हिस्टेरिया ही पिडा जाता तो ताचे कुडीक संबंदीत आशिल्लीं कसलेय तरेचीं लक्षणां दाखोवंक शकता वा तांची परत परत कागाळ करूंक शकता. असल्या पिडेस्तांक आपल्याक कसल्योय तरी खर पिडा जाल्यात अशें दिसता.

चडकरून हिस्टेरिया हे पिडेचे पिडेस्त तांकां सकयल दिल्यात त्योपिडा जाल्ल्याची कागाळ करतात.

'ब्लायंडनॅस' (Blindness) म्हळयार दोळयांनी दिसप ना.

'डॅफनॅस' (Deafness) म्हळयार कानांनी आयकूंक येवप ना.

'अफेसिया' (Atasia) म्हळयार उलोवणें धरप.

हेमिप्लेजिया वा पाराप्लेजिया (Hemiplegia or ParaPlegia) म्हळयार कुडीच्या एका अर्दाक वा अख्खे कुडीक आरीचो झटको येवप.

ॲनेस्थेसिया (Anaesthesia) म्हळयार कूड भेरेल्लेवरी दिसप.

परसिस्टंट हीकपस म्हळयार थांबनासतना खेळण्यो येवप.

तशेंच काळजाच्यो पिडा, अशक्तताय, पोटांत दुखप आनी ओंकारे येवप.

हीं जरी एका हिस्टेरियाच्या पिडेस्त मनशाचीं लक्षणां आसलीं तरीय हे पिडेचें खाशेलें आनी म्हत्वाचें लक्षण आसता 'हिस्टेरिकल फीट' (Histerical fit). ह्या एकाच लक्षणावयल्यान हिस्टेरिया हे पिडेची परिक्षा करूंक जाता. हेखातीर ह्या हिस्टेरिकल फीटसां संबंदान म्हायती आसप भोव गरजेचें आसता. हिस्टेरियाचे पिडेस्त हे एकमुळे, दुसऱ्याचेर सत्ता गाजोंवपी, सुवार्थी, चड देखाव करपी आशिल्ल्यान असले तरेचे फीटस सदांच कुटुंबांतल्या लोकांमुखार वा बरें मागप्यांमुखार उपरासतात. पिडेस्त जमिल्ल्या लोकांचें लक्ष आपले वटेन ओडूंक पळेता. हिस्टेरिकल फीटस ही मोल्लूक म्हळयार 'एपिलेप्सी' (Epilepsy) हे पिडेच्या फीटसांवरी केन्नाच रातची न्हीदेंत उपरासना. मोल्लुकेची फीटस ही चडकरून सामान्यतायेन न्हीदेंत उपरासता. हिस्टेरियाचें मारून येवप म्हणजे फीटस ही चडकरून कसल्याय खरप्रमाणांत जाल्ल्या वादा उपरांत वा भावनां उचांबळ जाल्ल्यान येवं येता आनी अशें जेन्ना जाता तेन्ना पिडेस्त आपले दांत घट्ट एकामेकांचेर चिड्डून धरता. ह्या प्रकाराक 'क्लॅचींग ऑफ द रीथ' (Clenching of the teeth) अशें म्हण्टात. मोल्लुकेवरी हिस्टेरिया हे पिडेंत जेन्ना मनशाक मारून येता तेन्ना ताची कूड ताणना वा हालना. हिस्टेरियाचे पिडेस्त मारून येतकच केन्नाच सकयल जमनीर पडनात आनी आपल्याक मार लागूंक दिनात. त्या परस ते बरिशी सुवात पळोवन घालून घेतात, देखीक उज्या म्हऱ्यांत पयस अशे सुवातेर वा मार्गाचे कुशीक. हिस्टेरियाच्या पिडेस्ताक जें मारून येता तें कांय वरां मेरेन तशेंच उरूं येता. पूण मोल्लुकेचें मारून येवप (फीटस) हें फकत कांय मिनटां पुरतेंच उरता.

एक एक फावट हिस्टेरियाचे पिडेस्त आपले कुडी संबंदान कागाळी करतात त्यो इतल्यो परत परत जावपी आसतात वा खर आसतात जाका लागून दोतोराक लेगीत पिडेस्ताक कसलीय तरी कुडीची खर पिडा जाल्लेवरी दिसता. देखीक 'ॲपिंडिसायटीस' ही पिडा. ॲपिंडिसायटीस म्हणजे ॲपिंडिक्स ह्या अवयवाक येवपी सूज. असल्या पिडेस्तांसंबंदान रोकडीच हिस्टेरिया हे पिडेची परिक्षा करप समा न्हय. तपासणे उपरांत जेन्ना पिडेस्ताचे कुडीक कसलेच विकार ना अशें सिध्द जाता तेन्नाच हिस्टेरिया हे पिडेची परिक्षा करूं येता.

जायते फावटी जांचें चित्त थाऱ्यार उरना वा जे रोकडेच उचांबळ जातात वा आपल्या भावनांचेर ताबो दवरूंक शकनात असल्या लोकांक हिस्टेरियाची पिडा आसा अशें समजतात. तशेंच जायत्या फावटी 'हिस्टेरिकल विपींग' म्हणजे रडप, 'हिस्टेरिकल रेज' म्हळयार तिडक येवप असलीं उतरां आमच्या कानार पडटात. असले तरेच्या भावनांचो वा उचांबळतायेचो एक एक फावट हिस्टेरिया हे पिडेकडेन कसलोच संबंद नासता. कांय फावटी हे प्रकार भलायकेन बरे आशिल्ल्या मनशांक लेगीत जावं येतात. तशेंच जांकां हिस्टेरिया ही पिडा नासून हेर कसल्योय मानसीक पिडा आसतात तेन्ना हे वयले प्रकार जावं येतात. एक एक फावट हिस्टेरियाचेय पिडेस्त हे वयले प्रकार दाखयतात.

**उपाय :** जेन्ना हिस्टेरिया जाल्ल्या पिडेस्ताका मारून येता तेन्ना जी जतनाय घेवंची पडटा, ती म्हळयार भोंवतणी जमिल्ल्या लोकांक कुशीन काडप, पिडेस्ताकडेन बरोच थीर रावप आनी स्मॅलींग सॉल्ट (Smelling Salt) म्हणचे वास घेवपाच्या मीठाचो उपेग करप. दुसरो उपाय म्हळयार कार्बन डायॉक्सायड ($Co_2$) ह्या वायुचो उपेग करप. ह्या उपायाक $Co_2$ therapy अशें म्हण्टात. ह्या उपायांत पिडेस्ताक तोंड आनी नाकाचो भाग आस्पावन घेवपी पोतयेंतल्यान १५ मिनटां मेरेन स्वासोस्वास करचो पडटा. पिडेस्ताचेर छाप पडूंक ताका दिवपाच्या वखदां संबंदान चडांत चड सुचोवण्यो करप बरें. तेच वांगडा ज्याप्रस्नाक लागून वाद उपरासला आनी ताका लागून पिडेस्ताक हिस्टेरियाचो ॲटॅक आयला तो सोडोवपाचो यत्न करप हें भोव गरजेचें आसता.

हिस्टेरिया ही पिडा आटापा हाडूंक मन थंड दवरपी वखदां म्हणजे 'ट्रांक्विलायसरस' (Tranquilisers) हांचो वापर करूं येता, तशेंच $Co_2$ थॅरापी ह्याय उपायान हिस्टेरिया, हिस्टेरिकल हेमिप्लेजिया, हिस्टेरिकल हिकपस हे प्रकार आटापा हाडूं येतात. मानसीक पिडा हाताळपी दोतोर चडकरून हिस्टेरिया ही पिडा आटापा हाडूंक मानसीक उपचार म्हणजे 'सायकोथॅरापी' (Psychotherapy), वागणुकेक संबंदीत आशिल्लो उपचार म्हणजे 'बिहेवियर थॅरापी' (Behaviour Therapy) ह्या उपायांचो उपेग करतात.

हिस्टेरिया हे पिडेचें कारण जरी खबर नासलें तरीय आजून मेरेन ही पिडा चडकरून दादल्यांपरस बायलांकच जाता.

- डॉ. अनंत शां. हेदे

**हुंगरीशास्त्र :** (पळेयात परिशिश्ट).

**हुंवार :** (पळेयात बुडटी).

**हुडीद :** (मराठी : उडीद; हिंदी : उडद, ठिकरी; गुजराती : अडेद; कन्नड : उडदू; संस्कृत : माष, पितृभोजन; इंग्लीश : ब्लॅक ग्रॅम; लॅटीन : फॅसिओलस मुंगो; कूळ : लेग्युमिनोजी. उपकूळ : पॅपिलिऑनेटी).

ही एक वर्सभर जगपी सांगांची वाल. ही वाल मुळची उश्ण कटिबंधीय आशियांतली. हे वालीक संयुक्त, एका फाटल्यान एक आनी तीनदली पानां आसतात. हे वालीक पांच - स, हळदुव्या ल्हान फुलांचे घोंस येतात. ताका लांबशो आनी वाटकुळयो सांगो येतात. तातूंत १० ते १५, गडद गोबरी वा काळया रंगाच्यो बियो (हुडीद) आसतात. भारतांत मध्यप्रदेश, उत्तर प्रदेश, पंजाब, महाराष्ट्र, अस्तंत बंगाल, आंध्र प्रदेश आनी कर्नाटक ह्या राज्यांत हुडदाचें पीक व्हड प्रमाणांत काडटात. तशेंच इराण, मलाया, उदेंत आफ्रिका, ग्रीस ह्या विदेशी वाठारांनीय हुडीद पिकयतात.

हें चडशें पावसाळी पीक आसून जून ते जुलय म्हयन्यांत ताची रोवणी करतात. ह्या पिकाक काळी आनी पिकाळ जमीन लागता. उदक सांठोवन दवरपी जमनींत हें पीक बरें जाता. उश्ण प्रदेशांत आनी दर्या थरासावन १८०० मी. उंचायेवयल्या थंड प्रदेशांत हें पीक जाता. तशेंच दोंगरी आनी दमट हवामानाच्या वाठारांत हुडदाचें पीक बरें येता.

सुरवेक जमीन नांगरून सपाट करतात. तातूंत शेण, फॉस्फोरीक अम्ल, नायट्रोजन अशें सारें घालून जमीन तयार करून दवरतात. उपरांत तातूंत दर हेक्टरी १०.१२ किग्रॅ. ह्या प्रमाण बीं घालतात. रोवणे उपरांत मदीं मदीं नडणी करची पडटा. उपरांत सांगो पिकून काळयो दिसूंक लागतकच त्यो काडटात. ह्यो सांगो खळयार सुकोवन, दांड्यान बडोवन वा बैलांच्या पांयांसकयल माड्डोवन तांची मळणी करतात. उपरांत सांगांचीं कल्लां काडून हुडीद निवळ करतात.

सादारणपणान दर हेक्टराक ५०० ते ७५० किग्रॅ. हुडदाचे दाणे मेळटात आनी १५०० ते १,६०० किग्रॅ. कल्लां मेळटात. हीं कल्लां जनावरांक खावपाक घालतात.

हुडीद पुश्टीक आसुन तातूंत अ, ब आनी क हीं जीवनसत्त्वां आसतात. हुडदांपसून पापड, वडयो, सान्नां (हीट) आदी तरेकवार प्रकार करतात. दक्षिण भारतांत तांदळाच्या पिठांत हुडदांचें पीठ घालून ताची इडली, डोसा, हुडीद वडा अशे जायते खाणाप्रकार

करतात. महाराष्ट्राच्या खानदेश वाठारांत ज्वारीच्या पिठांत हुडदाचें पीठ घालून भाकरी करतात. पंजाब राज्यांत तोरीचे दाळीपरस हुडदाचे दाळीचो चड वापर जाता. हुडीद उश्ण, कामोत्तेजक, मूत निवळ करपी आसा. संधिवात, एकांग आनी शिरांचे विकार हांचेर हुडदाचो काडो दितात वा भायल्यान लायतात. हाडां दुखल्यार हुडदाच्या वनस्पतीचीं मूळां उपेगी पडटात. पिठाचो लेप कपलार लायल्यार नाकांतल्यान जावपी रक्तस्त्राव थांबता.

**रोग :** ह्या पिकाक भुरी आनी तांबेरा हे रोग लागतात. ह्या रोगाक आळाबंदा हाडपाक बरे प्रतीचें बीं वापरप योग्य थारता.

**कीड :** बारीक जीवापसून ह्या पिकाक बादा जाता. सांठोवन दवरिल्ल्या हुडदाक बरड वा जीव पडपाची शक्यताय आसता. देखून हुडीद खर वतांत सुकयतात.

**खाशेलेपण :** सोयाबीन सोडल्यार प्रथिनांचें प्रमाण चड आशिल्लें कड्डण (कडधान्य) म्हूण हुडदाक म्हत्व आसा. तातूंत फोस्फरस अम्लाचेंय प्रमाण चड आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**हुड्डमेथी :** हुडीद आनी मेथी हांची फोडणां दिवन केल्लो रोस वा हुमण. हुड्डमेथी शिवराक आनी नुस्त्यांची अशी दोन तरेन करूं येता.

कर्नाटक, कुम्ठा - कारवार ह्या वाठारांनी जेवणाच्या पदार्थांत हुडीद आनी मेथी हांचो वापर करतात. शेजारच्या वाठारांतली ही पद्दत गोंयकारांनी आपणायली आसुंये. रोसाच्यो (शिवराक) तरा करपाच्या उद्देशान आनी नुस्त्याची हिंवसाण हुडीद - मेथयेच्या फोडणेन उणी जाता हें जाणून हुड्डमेथयेचो प्रयोग जालो आसूं येता. देखुनूच चड हिंवसाणीचें नुस्तें देखीक - बांगडे, कल्ली हांची हुड्डमेथी करपाची पद्दत आयली. गोंयांत हो पदार्थ सर्रास करतात. आमल्यो, बिमलां, आमाडे हांची शिवराक हुड्डमेथी करतात.

**शिवराक हुड्डमेथी :** एक कुलेर हुडीद, तितलीच मेथी आनी तांदूळ तव्यार फुलोवन तातूंत सांसवां, हिंग हांची फोडणां दितात. तातूंत मिरसांगेचो आनी हळदीचो इल्लो पिठो घालून चाळून घेतात. मागीर तातूंत थोडें उदक घालून ज्या जिनसाची हुड्डमेथी करपाची आसता (आमाडे, आमल्यो वा बिमलां) तो शिजोवन घेतात. उपरांत तातूंत वांटिल्ली सोय, इल्लेंशें गोड आनी मीठ घालून शिजोवन काडटात. कांय जाण हुड्डमेथी शिजोवन काडचे वेळार सोयेचो आपरोस काडून घालतात.

**नुस्त्याची हुड्डमेथी :** इल्ले हुडीद, मेथी आनी तांदूळ घेवन तापिल्ल्या तव्यार फुलोवन, मात्शे धोडावन ताचो कसकशीत पिठो करतात. उपरांत बारीक चिरिल्लो कांदो तळसून घेतात. सोय, मिरसांगो, हळद, इल्ली आमटाण वांटून घेवन, तातूंत हुडीद - मेथी हांचो पिठो, तळशिल्लो कांदो, मीठ आनी ज्या नुस्त्याची हुड्डमेथी करची आसा ते नुस्तें घालून शिजयतात. हुड्डमेथी काडचेवेळार तातूंत सोयेचो आपरोस घालून थोडो वेळ शिजयतात.

धर्मीक कार्यावळीच्या जेवणांत शिवराक हुड्डमेथी आसता.

- सुधा सु. आमोणकार

**हुतुतू :** (पळेयात कबड्डी).

**हुमाणें :** हुमाणें हो पुर्विल्ल्या काळासावन चलत आयिल्लो साहित्यप्रकार. गिन्यान आनी मनोरंजन हे दोन हेतू हुमाण्यांफाटल्यान आसात. कांय हुमाण्यांक धर्म आनी संस्कृती हांचीय बसका आसा.

हुमाण्यांक संस्कृतांत प्रहेलिका अशें म्हण्टात. हिंदींत तांकां पहेली, बंगालींत द्यामघा, कानडींत आंगणु, तेलुगूंत विडिकथा तर तमिळ आनी मलयालमांत विडिकदाई अशीं उतरां मेळटात.

हुमाण्यांक आहाणा, कोहाडा, उमाण, उमान अशीं हेर नांवां आसात.

हुमाण्यांक दोन वांटे आसतात - एक प्रस्न आनी दूसरी जाप. प्रस्न विचारता आसतना लिपयल्ली वस्त जाप दितना उक्ती जाता. हुमाण्यांची जडणघडण सुटसुटीत आनी सोबीत रितीन केल्ली आसता. काय हुमाणीं मन रिझवपाखातीर वापरतात. चडशीं हुमाणीं म्हत्वाच्या प्रसंगार घालतात. तीं योग्य त्या वेळारच घालपाक जाय, असो पुर्विल्ल्या काळासावन नेम चलत आयला. मनशाच्या जिवीतांतले कांय म्हत्वाचे प्रसंग, पावसाचें सुरू जावप, सोंपप, शेताची लावणी, लग्नाचें कार्य अशावेळार हुमाणीं घालतांले. THE STANDARD DICTIONARY OF FOLK LORE II P. 940 हाच्याप्रमाण हुमाणीं घालपाची पद्दत पुराय संवसारांत चलता. वेदकाळांत लेगीत हुमाण्याचें उल्लेख मेळटात. देखीक -

सप्त युञ्जन्ति रथमेकचक्रमेको अश्वो वहति सप्तनामा ।
त्रिनाभि चक्रमजरमनर्वं यत्रेमा विश्वा भुवनाधि तस्थु ।।

**अर्थ** - सात जाण एक चक्राचो रथ चलयतात. तो रथ 'सात' नांवाचो घोडो ओडटा. त्या चक्रांक बिनधावाच्यो आनी धुंवतना थांबनाशिल्ल्यो अशो तीन अऱ्यो आसात. त्या चक्रांत प्राणिमात्र रावतात.

हाचो आशय असो -

सात पुरयत यज्ञाच्या योगान सूर्याचो रथ चलयतात. हो रथ सात घोडे ओडटा. सूर्य रथाच्या चक्रांक तीन ऋतूंच्यो तीन अऱ्यो आसात. ह्या ऋतूचक्रांचेर सगळे प्राणी जियेतात.

भुरग्यांच्या खेळांतलीं हुमाणी फूडलेतरेन आसतात. तांकां गोंयांत कुवाडीं अशेंय म्हण्टात. देखीक -

१) इनसा बायलें तीनशीं दोळे.
जाप : अनस

२) आराटन ताराटून बांदलो भरो

म्हजें हुमाणें सांगतल्याक कट्टीभर सोरो.
जाप : केंसांचो आंबाडो

३) मुखार वता तांबडो तोप
फाटल्यान वतात पांचशी लोक
जाप : केळ्यां घड आनी ताची बोंडी

४) घरांत हाडली सूनबाय
तिची चार म्हयने अपुरबाय
जाप : सत्री

हुमाण्यांनी अश्लील गजालीय भरसल्यो दिसतात. कांयकडेन रचना अश्लील पूण जाप बरी, तर कांय कडेन रचना बरी पूण जाप अश्लील आसता.

नांव घेवपाचें हुमाणें ही हुमाणें घेवपा भितरली नांवाजिल्ली पद्दत जावन आसा. बायलेन घोवाचें आनी घोवान बायलेचें नांव चारचौगांत घेवंचें न्हय असो सामाजिक संकेत आसा. खरेपणान सरळ नांव घेवप जायना म्हूण हुमाण्यांतल्यान नांव घेवपाची पद्दत भारतीय समाजांत एका काळार सर्रास चालू आसली. आजूय लग्नावेळार हुमाण्यांतल्यान घोवाचें नांव घेवपाची पद्दत कांयकडेन दिश्टी पडटा. कांयकडेन घोव बायलेचें, बायल घोवाचें नांव हुमाण्यांत गुंथून घेतात. ह्या हुमाण्याचें स्वरूप प्रस्नार्थक नासता, तर हुमाणें सोंपें, सादें, सुटसुटीत आनी नकसूद आसता. लग्नांत बायल घोवाचें नांव अशे तरेन घेता.

१) द्राक्षाचे वेलीक त्रिकोनी पान
xxxxx नांव घेता, दवरून सगळयांचो मान

२) वयल्या रानांत फुलल्या पत्री
xxxxx हातांत रुप्या सत्री

३) पोक्या पणसाक पांक चड
आनी xxxxx राग चड

- कों. वि. सं. मं.

**डॉ. हुसैन झाकिर :** (जल्म : ८ फेब्रुवारी १८९७ हैद्राबाद; मरण : ३ मे १९६९).

स्वतंत्र भारताचो तिसरो राश्ट्रपती. ताचो जल्म एका गरीब घराण्यांत जालो. ताचे पुर्वज अफगानिस्तानाचे. ताचो जल्म जावचे पयलीं सुमार १०० वर्सां आदीं ताचें घराणें अफगानिस्तानाच्यान भारतांत येवन फरुखाबादेक रावपाक लागले. झाकिर आठ वर्सांचो आसतनाच ताच्या बापायक मरण आयलें. उपरांत कांय दिसांनीच ताचे आवयकूय मरण आयलें. ताचें मुळावें शिक्षण फरुखाबादेक इस्लामिया इश्कोलांत जालें. ताचें उंचेलें शिक्षण अलीगड विश्वविद्यालयांत जालें. विद्यार्थी दशेंत ताका खूब हाल - अपेश्टांक तोंड दिवचें पडलें. पूण परिक्षेंत बरे गूण मेळोवन शिष्यवृत्तिच्या आदारान ताणें आपलें उंचेलें शिक्षण घेतलें. उपरांत शिष्यवृत्तिच्या आदारानूच तो फुडलें शिक्षण घेवपाक युरोपाक गेलो. ताणें जर्मन विश्वविद्यालयांत प्रवेश घेतलो. थंय ताणें साहित्य आनी दर्शन शास्त्रांत डी. फिल्. ही उपाधी प्राप्त केली.



जर्मनीसावन भारतांत परतल्या उपरांत तो गांधिजीचे विचारसरणेन प्रभावीत जावन ताणें साबार खेप राजकीय असहयोग आंदोलनांनी वांटो घेतलो. दिल्लीची प्रसिद्द शिक्षणीक सांस्कृतिक संस्था 'जामिया मिलिया इस्लामिया' हिची स्थापना ताणें केली. स्वदेशी शिक्षणाखातीरय तो खूब वावूरलो. गांधीजीन सुरू केल्ल्या हिन्दुस्तानी तालीमी संघाचो तो एक कुशळ कार्यकर्तो आसलो. तशेंच एक कुशळ अध्यापक म्हणूनय ताणें नामना जोडली.

डॉ. झाकिर हुसैन हाची राज्यसभेचो वांगडी म्हूण निवड जाल्ली. तशेंच बिहाराचो राज्यपाल म्हणूनय ताची नेमणूक जाल्ली. १९५२ त तो भारताचो उपराश्ट्रपती जालो.

१९६७ त तो भारताचो राश्ट्रपती म्हूण वेंचून आयलो. पूण राश्ट्रपती जाल्याउपरांत दोन वर्सांनीच ताका काळजाचे पिडेन मरण आयलें.

- कों. वि. सं. मं.

**हूण :** हेडपी लोकांची एक जमात. इसवी सना आदीं दुसऱ्या शतमानांत चीना लागसार हूण लोकांची मूळ वसती आशिल्ली. उपरांतच्या काळांत अस्तंतेकडे वता आसतना तांचे दोन गट जाले. तातुंतलो एक गट वोल्गा न्हंयेवटेन गेलो जाल्यार दुसरो वंक्षू (ऑक्सस) न्हंयेवटेन गेलो. पयलो युरोपांत पावलो. इ.स. च्या पांचव्या शतमानाच्या मध्यामेरेन वंक्षू न्हंयेच्या देगणांतलो गट बळिश्ट जालो. त्या गटाच्या मुखेल्याच्या वंशनामावयल्यानच ह्या लोकांक येथ, हेफ्थलाइट वा एफ्थलाइट अशीं नांवां मेळ्ळीं. ग्रीक तांचो 'श्वेत हूण' असो उल्लेख करताले.

वंक्षू न्हंयेच्या देंगणांतल्यान हुणांनी इराण आनी भारत ह्या देशांचेर घुरी घाली. इ.स. च्या ४५५ ते ४६७ ह्या काळांत स्कंदगुप्तान तांकां हरयले आनी तांच्या आक्रमणांपसून आपलें राज्य सांबाळून दवरलें. पूण इ.स. ४८५ त हूण राजा अक्षान्वार हाणें इराणचो सासानी राजा फिरोज हाचेर जैत मेळोवन ताका जिवेशीं मारलो. इ.सन चें पांचव्या शतमानाच्या शेवटाक तांची बऱ्याच व्हड प्रदेशाचेर सत्ता प्रस्थापीत जाल्ली. बल्ख ही तांची राजधानी आशिल्ली. पूण इ.स.

च्या सव्या शतमानाच्या मध्याक अस्तंती तुर्कांच्या आदारान इराणचो सासानी राजा अनुशीरवाँ हाणें हुणांचेर जैत जोडलें. तशेंच इ.स. ५६३ ते ५६७ ह्या काळांत तांच्या राजाक जिवेशीं मारलो. उपरांत इराणी लोकांनी वंक्षू न्हंयेचे दक्षिणेकडलो हुणांचो खुबसो वाठार हस्तगत केलो.

भारतांतल्या हुणांच्या कारवायांविशीं अधिकृत अशी खुबच थोडी म्हायती मेळटा. कांय नाणीं आनी लेख हांचेवयल्यान तोरमण आनी मिहिरकूल हे हूण राजा आशिल्ले अशें समजतात. पूण तेविशीं निश्चीत म्हायती मेळना. स्कंदगुप्तान हुणांचेर जैत मेळयतकच हुणांविशीं कांय म्हायती चिनी राजदूत सुंगयुन हाच्या विवरणांत मेळटा. तेभायर ग्रीक लेखक इंडिकोप्लास्टिस हाच्या टोपोग्राफी ह्या ग्रंथांत, भारतीय अभिलेखांतल्या एरणच्या अभिलेखांत, तशेंच भारतीय साहित्यांत हुणांचो उल्लेख कांय प्रमाणांत मेळटा.

भारताचेर हुणांनी दोन फावट घुरी घाली. पयले घुरयेवेळार इ.स. ४६० त स्कंदगुप्तान तांचेर जैत जोडलें. पूण गंधार देशाचेर हुणांचोच शेक उरलो आनी तांणी थंय एक शासक नेमलो. फुडें दोन तीन पिळग्यांउपरांत हुणांनी भारताचेर दुसरे फावट घरी घाली. हे घुरयेचें फुडारपण तोरमाण करतालो. तो गंधारच्या हूण शासनाचो प्रतिनिधी आशिल्लो, काय पंजाबांतलो एक स्वतंत्र राजा आशिल्लो हें निश्चित कळना. पंजाबसावन भारताचे अस्तंतेकडे वचून ताणें माळव्यामेरेन भारताचो बरोचसो भाग जिकून घेतिल्लो. पूण इ.स. ५१० त भानुगुप्तान ताचेर जैत मेळयलें.

फुडें ५१५ च्या सुमाराक तोरमणाचो पूत मिहिरकुल सत्तेर आयलो. ताणें पुराय भारताचेर आपली सत्ता स्थापन केली आनी सियालकोट हांगा आपली राजधानी स्थापन केली. पूण मालवाधिपती यशोधर्मा आनी नरसिंहगुप्त ह्या दोन राजांनी ताचेर जैत जोडलें तरीय पूण ताचें राज्य आनी प्रभुत्व पुरायपणान नश्ट जावंक नाशिल्लें. त्या काळांत नरसिंहगुप्त बालादित्य हो गुप्त राजा राज्यार आशिल्लो. यशोधर्म्यान ताचेर घुरयो घालून ताका नाकापुरो करून सोडलो, मिहिरकुलान हाचो फायदो घेवन नरसिंह गुप्ताचेर घुरी घाली आनी ताका खंडणी दिवंक भाग पाडलो. तशेंच ताणें बौध्द धर्माचेर आनी भिक्षूंचेर अत्याचार करपाक सुरवात केली. बालादित्य हो बौध्द धर्माचो पुरस्कर्तो आशिल्लो. मिहिरकुलाचे हे वागणुकेचो बालादित्याक राग आयलो. ताणें आपल्या राज्याच्या शिमांचो बंदोबस्त केलो आनी मिहिरकुलाक खंडणी दिवंक न्हयकार दिलो. तेन्ना मिहिरकुलान ताचेर घुरी घाली. हे घुरयेंत बालादित्याक जैत मेळ्ळें. ह्या उपरांत हुणांची भारतांतली सत्ता उणी जायत गेली. उपरांतच्या काळांत एक जमात म्हणून वा सामंत म्हणून ताचो उल्लेख मेळटा.

मौखरी राजांनीय हुणांचेर जैत मेळयल्लें. मौखरी राजांनी हुणांच्या नाण्यांवरी नाणीं पाडलीं आनी हुणांच्या कांय वाठारांचेर राज्य केलें.

तोरमाणाचीं रुप्याचीं नाणीं उपलब्ध आसात. तातूंत नाण्याचे एके वटेन राजाचें मस्तक आसून ताच्या लागसारच संवत ५२ अशें बरयल्लें मेळटा. नाण्याचे दुसरेवटेन 'विजितावनिरवनिपति श्री तोरमाण देव जयति' अशें बरयल्लें आसा.

मिहिरकुलाचींय कांय नाणीं उपलब्ध आसात. तांचे एकेवटेन राजाची मुद्रा आनी त्रिशूळ, वृषभ आनी 'जयतु मिहिरकुल' अशीं अक्षरां मेळटात. तांचे दुसरेवटेन अग्नीकुंड आनी तांचे दोनयवटेन दोन मनीस उबे आशिल्ले दिसतात.

- कों. वि. सं. मं.

**हेगडे, (डॉ.) रामकृष्ण :** (जल्म : २१ एप्रिल १९१२, मडगांव).

नामनेचो सुटकेझुजारी. मेडिको सिरकुरजीओ मेरेन ताणें वैजकी शिक्षण घेतलें. भुरगेपणासावन सामाजिक, राजकीय चळवळींनी सक्रिय वांटो घेतालो. मडगांवां वैजकी वेवसाय करता आसतनाच कुंकळ्ळयेची कु. गावड देसाय हें चलयेचें अपहरण करून तिका बळयां धर्मांतरीत करपाचें प्रकरण ताच्या कानार पडलें आनी ताणें हाचे आड आवाज काडलो. पुराय गोंयभर हें प्रकरण गाजलें. त्यावेळार तो संघटना समितीचो एक संघटक आशिल्लो. उपरांत तो गोमंतक काँग्रेसचो वांगडी जालो. १९ जून १९४६ सावन ताणें सविनय कायदेभंगाचे चळवळींत वांटो घेतलो. १७ आनी १८ ऑगस्ट १९४६ त लोंडा हांगा जाल्ल्या अधिवेशनांत ताची नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संस्थेचो पयलो अध्यक्ष म्हणून निवड जाली. मडगांवां, १८ ऑक्टोबर १९४६ ह्या दिसा ताणें सत्याग्रह केलो. तेरवातीर ताका सरकाराआड लोकांक तिडावन घालता, खुबळायता, परकी सत्तेचो शेवट करपाचो हेत बाळगीता, तशेंच आपले निशाणेचीं पत्रकां वांटता म्हूण पुर्तुगेज सरकारान अटक केली आनी आग्वाद बंदखणींत दवरलो. उपरांत ५ डिसेंबर १९४६ ह्या दिसा लश्करी न्यायालयान ताका आठ वर्सांखातीर हद्दपारीची ख्यास्त फर्मायली. १४ डिसेंबर १९४६ ह्या दिसा लक्ष्मीकांत भेंब्रे, पुरुषोत्तम काकोडकार आनी जुजे इनासियो दी लोयोला हांकां 'बार्थोलोमिअु डायस' हे बोटीन पुर्तुगालाक धाडले. ५ जानेवारी १९४७ ह्या दिसा ते थंय पावले. उपरांत ताका लिमोयरास, काशिआस तशेंच पेनीचे बंदखणींत दवरले. ७ डिसेंबर १९५० त ताका एका करारावरवीं बंदखणींतल्यान मेकळो केलो. पूण ताका भारतांत परतुपाक दिलो ना, थंयच ताका १९५१ - ५२ ह्या काळांत आपले नदरेखाला दवरलो. पुर्तुगालच्या राबित्यांत ताणें वैजकी प्रचारक म्हणून काम केलें. तेभायर खासगी शिकवणी दिल्यो. पूण परत ताका १९५५ त पुरुषोत्तम काकोडकारावांगडा अटक करून दोन म्हयने बंदखणींत घाल्लो. 'पॉलिसीआ इंटर नॅशनल पारा डेफेसा दो

इश्टादो'च्या कार्यालयाक दिसपट्टे अहवाल ताणें दिले असो ताचेर आरोप दवरपांत आयलो. इतले मजगतीं इंग्लंडाक वचपाचो ताका पासपोर्ट (पारपत्र) मेळ्ळो आनी आपली पुर्तुगेज घरकान्न मारीया आमेलिआ आनी पुरुषोत्तम काकोडकारा वांगडा तो इंग्लंडाक गेलो. थंयच्यान तो लंडनचे वाटेन १७ मे १९५६ ह्या दिसा मुंबय परतलो. मुंबयंत ताणें आपलो दवाखानो सुरू केलो आनी परत राजकीय चळवळीकय सुरवात केली. नॅशनल काँग्रेस गोवा संघटनेच्या दोन गटांचो ताणें एकवट करपाचोय यत्न केलो. २ ते ४ ऑक्टोबर १९५९ त ताणें नॅशनल काँग्रेस गोवाच्या प्रतिनीधींची गोंय राजकीय परिशद घडोवन हाडली. १९६१ त तो नॅशनल काँग्रेस गोवाचो उपाध्यक्ष आसलो. १९६२ त गोंय मेकळें जाल्याउपरांत रोखडीच ताची नेमणूक नॅशनल काँग्रेस गोवाचे अस्थायीसमितीचेर जाली. ही समिति गोंयचे प्रस्न आनी आडखळींचो अभ्यास करपाखातीर नेमिल्ली. उपरांत तो इंडियन नॅशनल काँग्रेसचो क्रियाशील फुडारी जालो. १९९७ त तो पुर्तुगालाक भारतीय नागरीक म्हणून रावपाक गेलो.

- कों. वि. सं. मं.

**हेगेल, जॉर्ज विल्यम फ्रेडरिक :** (जल्म : ऑगस्ट १७७० स्टटगार्ट, जर्मनी).

संवसारभर नामना मेळिल्लो एक जर्मन तत्त्वज्ञ. ताचो बापूय येणावळ खात्याचो अधिकारी आशिल्लो. स्टटगार्टचे व्याकरण शाळेंत प्रवेश करच्या आदींच ताणें लॅटीन भाशेचें मूळतत्त्व आपले आवयकडच्यान शिकून घेतिल्लें. शाळेंत शिकता आसतनाच ताणें टिकात्मक लेख, अभिजात साहित्य, शास्त्रीय लेखकांचे वेंचीक लेख आनी गणित सिध्दांत एकठांय करून ते एके वळेरींत मांडिल्ले. उपरांत १७८८त आपल्या आवय-बापायच्या आग्रहावयल्यान तो धर्मशास्त्राचें शिक्षण घेवपाखातीर टूबिंगन विद्यापिठांत गेलो. १७९० त धर्मशास्त्राची पदवी घेतल्या उपरांत, तत्त्वगिन्यानाचो आनी ग्रीक भाशेचो अभ्यास करपाक खूब वेळ मेळचो म्हूण सुरवेक खाजगी प्राध्यापक म्हूण ताणें बर्न आनी फ्रँकफर्ट शारांनी वावर केलो. त्या वेळार ताणें प्रसिद्द आशिल्ले ग्रीक आनी रोमन ग्रंथ वाचून काडले. तशेंच त्या वेळार ताणें कान्ट तत्त्वगिन्यानाचो टिकात्मक अभ्यास केलो. १७९९त ताच्या बापायक मरण आयिल्ल्यान कुटुंबाक आदार करपाची जापसालदारकी हेगलच्या खांदार पडली. हाका लागून तो खासगी शिकवण्यो दिवपाक लागलो. उपरांत १८०१ त तो जिन्हा शारांत गेलो. थंय ताची प्राध्यापक शेलींग कडेन वळख जाली. उपरांत ते एकठांय येवन कान्ट तत्त्वगिन्यानाचेर अभ्यास करपाक लागले. हाका लागून हेगलच्या तत्त्वगिन्यानांत साबारकडेन कान्ट, फिचे आनी शेलींगाचे विचार सांपडटात. हेगल हो किरिस्तांव संस्कृतायेच्या प्रभावांतल्यान वयर सरिल्लो एक अस्सल आदर्शवादी आशिल्लो. ताच्या लिखाणान तर्कशास्त्र, सैमीक गिन्यान, मनीसपण आनी दिव्य वा दैवी विचारांचो समेळ जाल्लो दिश्टी पडटा. आपले विचार मांडटा आसतना हेगेलान द्वंद्वात्मक पद्दतीन वाद - विवादांतल्यान निर्माण जाल्लें संयोगीकरणच श्रेश्ठ आसता.

हेगलाचे राजकीय विचार ताच्या इतिहासाच्या तत्त्वगिन्यानांतल्यान दिश्टी पडटात. ताच्या मतान सबंद जग, एके दैवी शक्तीचेर आदारून आसा. दैवी शक्ती हें एकच परमतत्त्व आनी सत्य आसा. संवसारांत आमकां दिश्टी पडपी आनी जाणवपी सगळयो गजाली ते दैवी शक्तीचोच एक आविश्कार आसा. मानवी इतिहासांतल्यो सगळयो घडणुको त्या परमतत्त्वाच्या खाशेल्या प्रकारांनी प्रकट जातात. ते दैवी शक्तीचे इत्सेन आनी तिचे खाशेले येवजणेप्रमाणच सगळे आविश्कार घडत आसतात. सादारण मनशांक आपूण आपल्या हेतूप्रमाण वा स्वताचे येवजणेप्रमाण हालचाल करता अशें दिसता, पूण तो ताचो भास आसा अशें हेगेल मुखार सांगता. ताच्या मताप्रमाण ती दैवी शक्तीच मनशांच्यो हालचाली घडोवन हाडपाक कारणीभूत आसता. दैवी शक्ती सुरवेक खंयचे तरी एके क्रियेन वा कल्पनेतल्यान प्रकट जाता. उपरांत ते क्रियेक वा कल्पनेक प्रतिक्रिया वा प्रतिकल्पना निर्माण जाता, तिचें बीं मूळ क्रियेंत वा कल्पनेंतच आसता. क्रिया आनी प्रतिक्रिया हांच्या संघर्शांतल्यानच एक समन्वयाची (Synthetic) प्रक्रिया जाता. संवसारांतल्यो सगळयो इतिहासीक घडणुको विरोधविकासात्मक पद्दतीन घडत आयल्यात आनी हाच्या मुखारय त्यो अशोच घडत रावतल्यो. ते दैवी शक्तीचे येवजणे प्रमाण जो कर्तव्याचो वांटो व्यक्तीचेर वा राश्ट्राचेर पडटा तो तांणीं आपणावचोच पडटा. हेगेलच्या मतान वेगवेगळया तेंपार, वेगवेगळया राश्ट्रांचेर विंगड विंगड जापसालदारकी आसता. ती जापसालदारकी हुंपपा खातीर तीं राश्ट्रां सदांच बळिश्ट आसपाक जाय. राज्य ही चैतन्य शक्तीचो धरतेवयलो दैवी अवतार आसा आनी त्या राज्याचो कायदो हो नागरिकांच्या स्वातंत्र्याखातीर आशिल्ल्यान कायद्याचें पालन करपा शिवाय नागरीकांचें वेगळें अशें स्वातंत्र्य कांयच आसना अशें तो मुखार म्हण्टा.

हेगेलच्या दुसऱ्या एका सिध्दांताप्रमाण राज्यांत बदल घडोवन हाडपाखातीर वा राज्याच्या विकासाखातीर झुजाची गरज आसता. झुजाक लागूनच खंयचें राश्ट्र श्रेश्ठ तें थारता. ताच्या मतान राज्याभितल्ले संबंद थारायतना अमुकच एक कायदो वा नेम पाळपाची गरज नासता. राज्याचो मुखेली हो दैवी शक्तीची देण आशिल्ल्यान तो कसलेय निर्णय घेवपाक समर्थ आसता. अशे रितीन हेगलान आपणाले राजकीय विचार मांडटा आसतना राश्ट्राचे वा राश्ट्रमुखेल्याचे आक्रमक वृत्तीक म्हत्त्व दिलां.

हेगेलच्या तत्त्वगिन्यानाचो बारीकसाणेन अभ्यास केल्यार, ताच्या विचारांत एकसारको बदल जायत राविल्ल्याचें स्पश्ट जाता. ताचें तत्त्वगिन्यान अमूकच अशा एका सिध्दांताचेर आदारिल्लें ना.

संवसारांतल्यो सगळयो हालचाली एके दैवी शक्तीकच लागून जाता अशें तो सांगता. पूण ती दैवी शक्ती सिध्द करपाक तो अपेशी थारला. हेगेला उपरांत एकुणिसाव्या शेंकड्यांत ताच्या तत्त्वगिन्यानांतल्या वेगवगेळया विचारांचेर जाल्लो वादविवाद आनी त्या वादांतल्यान निर्माण जाल्ल्या तत्त्वगिन्यांक ''हेगेलियानीसम'' अशें म्हण्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**होंवी :** मराठींतलो एक पोरनो छंद. होंवीचो उगम इ.स. ११२९ चो सुमार इतल्या प्राचीन काळांत व्हरपाक येता. त्या काळांतल्या अभिलषितार्थ चिंतामणी नांवाच्या ग्रंथांत होंवीचो असो उल्लेख आयला-

महाराष्ट्रेषु योषिद्‌भिरोवी गेया तु कण्डने ।

**अर्थ** - महाराष्ट्रांतल्यो बायलो दळप - कांडप करतना होंवी गातात. वयल्या अवतरणांत ओवी ही संज्ञा छंद ह्या अर्थान सुचयल्या. महानुभाव पंथांत सोळाव्या शतकाचे अखेरेक भीष्माचार्य नांवाचो एक ग्रंथकार जालो. ताणें 'मार्ग प्रभाकर' ह्या आपल्या ग्रंथांत दिल्लें होंवीचें लक्षण श्री. राजवाडे हाणें सांगलां तें अशें -

गायत्रीछंदापासौनी धृतिपर्यंत ।
ग्रंथ वोवीयांचे तीन जाणावे मिश्रित ।
प्रतिष्ठे पासौनि जगतीपर्यंत ।
चौथा चरण ।।

**अर्थ** - होंवीचे पयले तीन चरण गायत्रीपसून धृतीमेरेनच्या कसल्याय छंदाचे आसूं येतात आनी चवथो चरण प्रतिश्ठेपसून जगतीमेरेनच्या कसल्याय छंदाचो आसूं येता.

वयले होंवीचो विस्तारीत अर्थ असो की पयले तीन चरण षडाक्षरी वृत्तापसून ते अश्टादशाक्षरी वृत्तामेरेनच्या कसल्याय वृत्ताचे आसचे आनी चवथो चरण चतुरक्षरी वृत्तापसून ते द्वादशाक्षरी वृत्तामेरेनच्या कसल्याय वृत्ताचो आसचो. चड करून होंवीक चार चरण आसतात. तातुंतलो निमणो चरण देडको आसता, पयल्या तीन चरणांच्या शेवटा यमक आसता आनी चवथो चरण यमकाशिवाय आसता. सोळाव्या शतकांतलो महानुभावीय कवी लक्षधीर हाणें छंदःशास्त्राचेर महाराष्ट्र काव्य - प्रदीपिका नांवाचो ५६ होंवयांचो ग्रंथ रचला. ताणें साडेतीन चरणी, चार चरणी, साडेचार चरणी आनी पांच चरणी अशे होंवीचे प्रकार सुचयल्यात. साडेतीन चरणी होंवीक '''लघुचरणी'' अशेंय म्हळां. संत ज्ञानेश्वराची होंवी लघुचरणी आसताली देखीक -

ॐ नमोजी आद्या । वेद प्रतिपाद्या ।
जय स्वसंवेद्या । आत्मरूपा ।।
देवा तुंचि गणेशु । सकलार्थ प्रकाशु ।
म्हणे निवृत्तिदासु । अवधारि जो ।।

( ज्ञाने. १.१-२)

*एकनाथाच्या होंवी चोहड म्हळयार साडेचार चरणी आसताली.* तशेंच ती समतोल आसून अंतःप्रासयुक्त आसताली. हो अंतःप्रास चवथ्या चरणांत दिसून येता -

कवळें अध्यासिला डोळा ।
तो चंद्रमा देखे पिवळा ।
तेवीं आत्मा कर्ता भासे स्थूळा ।
केवळ निश्चळा नेणती ।।
सवेग चालतां आभाळे ।
बाळें म्हणती चंद्रमा पळे ।
तेवि आत्मा कर्ता मानिती स्थूळें ।
उपाधि मेळे अध्यासु ।।

(एकनाथी भागवत १० / ६३३-३४)

होंवी ही गद्य वा पद्य, ग्रांथिक वा गेय अशा दोन प्रकारची आसता. चौथो चरण देडको आसप हें खाशेलेपण दोनय प्रकारच्या होंवयांत सारकेंच आसा. होंवीच्या उगमाविशीं जाणकारांचीं साबार मतां आसात. राजवाडे हाच्या मताप्रमाण हो उगम वैदिक छंदांत आसा, जाल्यार पांगारकर हाच्या मताप्रमाण तो अनुष्टुंभांत आसा. पूण भ. श्री. पंडित हाका हीं दोनय मतां मान्य ना. होंवी चड करून कानडी मुलखांतसून महाराष्ट्रांत आयली आसूंक जाय हें श्री. बेंद्रे हाचें मत तांकां मान्य आसा. कारण होंवीचें कन्नड त्रिपदीकडे सारकेपण आसा. अभंग हो छंद होंवींतल्यान उत्क्रांत जालो अशेंय ते सुचयतात. अभिलषितार्थ चिंतामणींतल्या वयर दिल्ल्या उल्लेखावयल्यान महाराष्ट्रांतलीं भुरगीं, बायलां होंवी गाताल्यो हें स्पश्ट दिसून येता. पद्य होंवीकच 'अभंग' अशें दुसरें नांव आसा. मोरोपंताच्यो चलयांखातीर रचिल्ल्यो होंवयो अभंग म्हूण प्रसिद्द आसात.

ज्ञानेश्वर, एकनाथ, तुकाराम, मुकुंदराज, रामदास, मुक्तेश्वर, श्रीधर ह्या संतपंत कवींनी आपआपले ग्रंथ होंवींत बरोवन होंवीक महाराष्ट्रीय जनजीवनांत असादारण अशें मानाचें स्थान मेळोवन दिलें. होंवी आनी अभंग हांकां लागून महाराष्ट्रांत विठ्ठल - भक्तीचो भागवत धर्म समाजांतल्या सगळया थरांत आनी भुरगीं - बाळांमेरेन पातळ्ळो. महाराष्ट्रांत निर्माण जाल्ल्या ग्रांथिक होंवीचो आंकडो एक लाखावयर आसा. भक्तीचें पवित्र्य, तरल कल्पना, वेगवेगळे अलंकार आनी काळजांतलो कोमल भाव ही सगळी संपदा होंवीक मेळळया.

होंवी जशी ग्रंथांत आसा तशीच ती महाराष्ट्रांतल्या बायलांच्या तोंडयां घोळटा. स्त्री-जीणेंत भावनांचे पाझर फोडपी आनी दुकां गळोवपाक लावपी जानपद होंवयांचें स्वरूप अशें -

महाराष्ट्रांत पूर्वापार चलत आयिल्ल्या जानपद गीतांचे जे कितलेशेच प्रकार आयज प्रचलित आसात, तातूंत होंवीचें स्थान सगळयांपरस श्रेश्ठ आसा. श्राव्य होंवी हो प्रकार अशिक्षित लोक आनी चड करून बायलो हांच्या जीणेकडे संबंदीत आसा. दोन - चार वळींच्या सामक्या ल्हान कवनांत खूबदां कल्पनाचातुर्य आनी कोमल

भावनाविश्कार हांचो मिलाफ दिसून येता. अशिक्षित बायल - वर्गान होंवयांत आपली कुटुंबिक जीण आनी भोंवतणची समाजिक जीण ओतल्या. ताका लागून होंवींतलो जीव अजून तिगून उरला हें दिसून येता. जनपदांतल्या ह्या होंवीचें वर्गीकरण भौतेक करून अशें करतात-

१) पौराणिक कथांचेर आदारील्ल्यो होंवयो

२) भक्तिप्रधान होंवयो

३) ऐतिहासिक कथांचेर आदारील्ल्यो होंवयो

४) देवादिकांच्या होंवयो

५) सामाजिक आनी कुटुंबिक जीणेचेर आदारीत होंवयो.

ग्रांथिक होंवी आनी जनपदांतली गेय होंवी ह्या दोगांयचो दाट संबंद आसा. ग्रांथिक होंवीन गेय होंवीचेर बरोच प्रभाव घाल्लो आसलो, तरीकय त्या दोनांयमदीं एक मूलभूत फरक आसा. ग्रांथिक होंवीचें मूळ विशिश्ठ व्यक्तीचे बुध्दींत वा एकाद्र्या पंथाच्या तत्त्वगिन्यानांत आसा. जानपद होंवीचो उगम सर्वसामान्य अशिक्षित लोकांच्या सामुदायिक मनःप्रवृत्तींत वा अणभवांत आसता. हाका लागूनच ग्रांथिक होंवीचो नेटान प्रचार जावनय गेय होंवीन आपलें जानपद स्वरूप कायम राखलां. संत कवींच्या होंवीबध्द ग्रंथांचो मूळ हेत प्रचारात्मक आशिल्लो. आपल्या ग्रंथांवरवीं समाजाक धर्म, नीत आनी भक्ती हांची शिकवण तांणीं दिली. पूण जानपद होंवीन असले तरेचो हेत केन्नाच बाळगिलोना. जानपद होंवी मानवतेक आनी वास्तविकतेक धर्म आनी नीत हांच्यापरस चड किंमत दिता. देखूनच, समाजशास्त्रीय नदरेन पळेल्यार ग्रांथिक होंवीपरस गेय जानपद होंवीचें म्हत्त्व चड आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**हो :** एक आदिवासी जमात. बिहारच्या सिंगभूम जिल्ह्यांत हो लोकांची वसती आसा. इ.स. १९३१ वर्सा ह्या लोकांचो आंकडो सुमार ५,२३,००० आशिल्लो. तातुंतले चडशे लोक सिंगभूम जिल्ह्यांतल्या कोल्हन विभागांत रावताले. हे लोक मुंडारी भास उलयतात.

हो लोक हे मुंड लोकांचीच एक शाखा आसा. मुळांत ते कोल्हन विभागाचे रहिवाशी नाशिल्ले. उत्तरेकडल्यान वा वायव्येकडल्यान ते ह्या भागांत आयले. ताचे पयलीं हांगा दुसऱ्यो कांय जमाती रावताल्यो अशें हांगाच्यो न्हंयो आनी तळीं हांच्या नांवांवयल्यान कळटा. ओरिया, भुइया, गोवाल, कुम्हार, कमार बी जमातींची हांगा वसती आशिल्ली. हो लोकांनी तांकां हांगाच्यान धांवडावन घाले. पूण भुइयांक मात तांणीं परत हांगा वसाहत करपाक परवानगी दिली.

हो लोकांक कोल ह्या नांवानय वळखतात. कोल ह्या संस्कृत उतराचो अर्थ दुकर असो जाता देखून हें नांव तांकां मानवना, पूण हें नांव ते टाळपाक शकनात. हो लोक आपले उत्पत्तीची कथा सांगतात. ती अशी-

ओटे बोराम ही देवता आनी सिंग बोंगा देव हीं स्वयंभू आसात. तांणीं फातर आनी उदकापसून धर्तरेची निर्मणी केली आनी तिका वनस्पत आनी रूख-वालींनी सजयली. मागीर तांणीं पशू, शेवणीं आनी हेर किडे, जीव हांची उत्पत्ती केली. पयलीं पाळीव जनावरां आनी मागीर जंगली श्वापदां हांचो जल्म जालो. मनशाक रावपाखातीर सगळ्यो सूख सोयी निर्मिल्ल्या उपरांत एक चलो आनी चली हांचो जल्म जालो. सिंग बोंगान त्या दोगांकय एके घोलींत व्हरून दवरलीं. त्या जोडप्याक प्रजोत्पादन कशें करचें तें खबर ना म्हणपाचें ताका जाणवलें. तेन्ना ताणें तांकां भातापसून सोरो करपाक शिकयलो. तो सोरो पियेल्याउपरांत तांची वैशयिक भावना उचांबळून आयली आनी तांणीं संतती निर्माण केली. तांकां बारा चले आनी बारा चलयो जाल्यो. तेन्ना सिंग बोंगान रेडे, बैल, बोकड्यो, मेंढरां, दुकरां, कोंबयो आनी भाजीपालो हांचे जेवण केलें आनी त्या बारा जोडप्यांतल्या दर एका जोडप्याक तांच्या आवडिच्या पदार्थांची रूच घेवपाक सांगलें. पयल्या जोडप्यान बैलाचें मांस वेंचून काडलें. त्या जोडप्यापसून कोल म्हणजे हो लोकांची उत्पत्ती जाली.

आर्यांच्या आगमनापयलीं उत्तर भारतांत जे असुर लोक लावताले तांचे हे वंशज आसुंये अशें कांय पंडितांचें मत आसा. तशेंच ह्या लोकांचेर द्रविड संस्कृतीचोय प्रभाव पडिल्लो दिसता.

हो लोक चडकरून मोटवे आनी दुबळे आसतात. तांचो रंग काळो आसून, नाक मोटवें, रूंद आनी बसकें आसता. तांचे दोळे बारीक आनी काळे आसतात. केंस मातशे कुरळे आसतात. दांत मात धवे, नितळ आनी घट्ट आसतात. ते चडशे अल्पायुशी आसतात. हो बायलांचो बांदो सुदृढ आनी सुडौल आसता. त्यो सदांच हांसत्या मुखाच्यो आनी खोशी आसतात. तांचें नाक - दोळे नीट आसून त्यो सोबीत आसतात.

सुमार एका शेंकड्या पयलीं जेन्ना हे लोक रानांनी रावताले तेन्ना ते सत उलोवपी, प्रामाणिक आनी अतिथ्यशील आशिल्ले. पूण आतां शारांकडेन आनी हेर लोकांकडेन संबंद आयिल्ल्यान तांच्यांत हे गूण कमी प्रमाणांत दिश्टी पडटात.

हो लोकांचे गांव चडकरून उंच दोंगराच्या माथ्याचेर आसतात. पूण आतां ते दोंगरावयल्यान व्हांवपी झऱ्यांचे कडेक वा न्हंयेचे देगेक गांव वसोवपाक लागल्यात. गांवांच्या एका तोंकाक मसंडी आसता.

जायत्या गांवांनी मदेगाक नाच करपाखातीर मेकळी सुवात आसता. तिका आखाडो अशें म्हण्टात. ग्रामपंचायतीच्यो बसकाय आखाड्यांतच जातात. तशेंच जायत्या गांवांनी आखाड्याच्या लागींच तरणाट्यांक न्हीदपाखातीर शय्याघर आसता. कांय खेड्यांनी शय्याघर नासता थंय तरनाटे गांव मुखेल्याच्या घराच्या भायल्या भागांत न्हीदतात.

दर गांवांच्या एक तोंकाक एक वृक्षराजी आसता. तिका जहिरा अशें नांव आसा. थंय एका जाण्ट्या भुताचो राबितो आसता

अशें ते समजतात.

हो लोकांचीं घरां खूब व्हड आसतात. तांकां लांकडी फळयांची व्हडलीं दारां आसतात. पूण जनेलां नासतात. बसपाची कूड, कोठये कूड आनी जेवणाघर अशो घराक तीन कुडी आसतात. जेवणा घराच्या एका कोनशाक एक ओटो आसता. ताचेर घराण्यांतल्या पुर्वजांची स्थापना केल्ली आसता. सदांच जेवणापयलीं तांकां निवेद्द दाखयतात. हे कुडीक अडिंग अशें नांव आसून तिका पवित्र मानतात. एका कुटुंबांतल्या वा एकाच घराण्यांतल्या मनशाशिवाय हेर कोणाकच थंय प्रवेश नासता.

हो लोकांचीं घरां मातयेचीं आसून वयर तणाचें पारवें वा नळे आसतात. कांय घरांच्यो वण्टी कुडाच्यो आसून तांचेर मातयेचो लेप दिल्लो आसता आनी त्यो शेणानय सारयतात. कांय खेप त्यो रंगानय रंगोवन तांचेर चित्रां काडटात. हीं चित्रां कलात्मक आसून ते खातीर लागपी रंग हे लोक आपणच झाडापाल्यापसून वा रंगीत मातयेपसून तयार करतात. दर एका घराक पडवी आसता.

गरीब लोक ल्हानशे खोपटेंत रावतात. दर एका घराण्यांत पारवे दवरपाखातीर एक लांकडाचो पांदरो आसता आनी ते घरामुखार उंच कोंड्याचेर दवरतात. हे लोक चडशे कपडे वापरिनात. हांगाच्या उश्ण आनी दमट हवामानाक लागून गरीब लोक कमराभोंवतणीं एक कपडो गुठलायतात आनी वयर उगडेच आसतात. शिंयांत ते कांबळ वा गोधडी पांगुरतात. सादारण दादलो कमराभोंवतणी अरूंद अशी कपड्याची पट्टी गुठलायता आनी तिचो फुडलो ल्हानसो सोगो सोडटा. ह्या वस्त्राक बोटोई अशें नांव आसा. तकलेक तो मुंडाशें बांदता. वयर ल्हानशें उपरणें पांगुरता. शारी संपर्काक लागून आतां तरनाटें लेंगो, सदरो असो भेस करपाक लागल्यात.

स हात लांब आनी दोन हात रूंद अशें जाडेंभरडें वस्त्र बायलो न्हेसतात. ताका लंगा अशें नांव आसा. घरांत आसतना तांचो वयलो भाग उगडोच आसता. पूण आतां तांच्यांतल्यो जायत्यो बायलो साडी, पोलको, जोतें असो भेस करपाक लागल्यात. आतां त्यो सत्र्योय वापरतात आनी नाचाच्या वेळार सत्री कमराक बांदून नाचतात.

ह्या लोकांक फुलांचीय खूब आवड आसा. फुलांच्यो माळो, हार, गजरे हांणीं ते कपड्यांचें उणेपण भरून काडटात. तशेंच केसांचो ल्हानसो आंबाडो घालून ताचेर मोहाच्या आनी सालाच्या फुलांच्यो फांतयो माळटात. तांकां अलंकारय खूब मानवतात. तरनाटीं भुरगीं गळयांत लांकडी मणयांच्यो माळो, कानांत वलयां आनी हातांत कडीं घालतात. चलयो आनी बायलो पायांत सरपळयो, गळयांत पोवळयांच्यो आनी कंवचेच्या मणयांच्यो माळो, कानांत कुंडलां, नाकफुली, कांकणां, वाक्या, तोडे, मुदी सारकिल्ले अलंकार घालतात. चलयांनी गोंदोवन घेवप गरजेचें अशें मानतात. गोंदूंक ना जाल्यार तें पाप मानतात. दादले गळयांत संरक्षक ताईत बांदतात.

सुरवेक ह्या लोकांक रानांत शिकार करपाची परवानगी आशिल्ली तेन्ना ते माकड, वांस्वेल, जिवाणीं आनी वाग सोडून सगळया जनावरांचें मांस खाताले. मोर, रानकोंबे आनी पारव्यांक ते पांदऱ्यांत धरून दवरताले आनी पावसाळयांत तांकां मारून तांचें मांस खाताले. पूण आतां तांकां केन्नाय रानांत वचून शिकार करपाची संद मेळटा तेन्नाच तांकां जनावरांचें मांस खावपाक मेळटा.

दूद आनी दुदापसून केल्ले पदार्थ तांकां मानवतात. तांदळांपसून केल्लो सोरो ल्हानांक तसोच जाण्टयांक खूब मानवता. तो तांचें मुखेल अन्न जावन आसा. ताका इल्ली, हंडिया वा दियांग अशींय नांवां आसात. सिंग बोंगान तांकां हो सोरो करपाक शिकयलो देखून ताका ते पवित्र मानतात. हो सोरो तयार करतना घरांतल्या लोकांकय कांय नेम पाळचे पडटात. तशेंच तो तिनसांजेचो कोणाक उश्णो दिनात आनी घरांतलो सामको सोंपयनात.

कोल्हनांतले चडशे लोक दिसांतल्यान एकच खेप पोटभर जेवतात आनी बाकिच्या वेळांत इल्ली, कंदमुळां, फळां वा जनावरांचें मांस खातात. शित, पेज, भाकरी, भाजी, मांस आनी नुस्तें असो तांचो आहार आसता. हे लोक तांबडे दोमळेय भाजून खातात. सधन लोक गवांची चपाती, शित, भाजी, रोस, तांतयां, मांस आनी नुस्तें असो आहार घेतात.

ह्या जमातींत जायतीं कुळां वा घराणीं आसून तांकां किल्ली अशें नांव आसा. हिंदूंचे गोत्रकल्पने वयल्यानच हीं कुळां निर्माण जालीं आसुंये. दर एका खेड्यांत एक वा जायतीं कुळां आसतात. तातुंतलें एकादें कूळ चड प्रभावी आसता आनी ताचो मुखेल तोच गांव मुखेली आसता. ताका मुंडा अशें म्हण्टात. दर एका कुळाक एकाद्या जनावराचें, वनस्पतीचें वा पदार्थाचें नांव दिल्लें आसता.

हे जमातींत पितृसत्ताक पद्धती प्रचलीत आसा. चली लग्नाची जाल्या उपरांत घोवाच्या घरा रावपाक लागता आनी घोवाच्या कुळांत आस्पावता. तिका वारसो हक्क नासता. मिताक्षरा पद्धतीप्रमाण चले संपत्तीचे वारस जातात. पयलीं खंयच्याच मनशाची जमनीचेर पुराय मालकी नासताली. गांवांतली सगळी जमीन सगळया जमातींच्या वा गांवांच्या मालकेची समजताले आनी तेखातीर थारावीक दरान दर एकल्याक भाडें दिवंचें पडटालें. पूण दर एका कुळाकडेन आशिल्ली जमीन मात वंश परंपरेन त्या त्या कुळाकडेन उरताली.

दर एका गांवच्या मुखेल्याक मुंडा अशें नांव आसा. धा ते पंदरा गांवांच्या गटाक एक मुखेल आसता ताका मंकी अशें म्हण्टात. अशे जायते गट मेळून जो एक भाग जाता ताका पीर अशें म्हण्टात. कोल्हन परगण्यांत अशे सव्वीस पीर आसात. गांवांतल्या कारभारांत मुंडा वा मंकी हांकां बरेच अधिकार आसतात. पूण सामाजिक चाली-रिती पाळपावेळार घराण्याच्याच मुखेल्याची सत्ता चलता. गांवचे जमनीचेर मुंडाचो ताबो आसता आनी तोच कुळांकडच्यान सारा वसूल

करता. भोंवतणच्या रानांचेरय तो नदर दवरता. गुन्यांवकारी, रोगांच्यो साथी हांचोय बंदोबस्त तोच करता. ज्या गांवांत जायत्यो किल्ली आसतात ताका हाटू म्हण्टात. पयलीं किल्ली ही चड म्हत्त्वाची मानताले. पूण आतां आवय, बापूय आनी भुरगीं मेळून जाल्ल्या घराण्याक चड म्हत्त्व येवपाक लागलां.

सिंग बोंगा म्हणजे सुर्याक हे लोक परमेश्वर मानतात. ताणें पयलीं धर्तरी आनी मागीर सगळो सैम निर्माण केलो अशी तांची कल्पना आसा. नगे बोंगा म्हणजे जलदेवता. चंदो बोंगा आनी ओटेबोरोम ह्यो सिंग बोंगाच्यो दोन बायलो. देसौली म्हणजे ग्रामदेवता, जहिर बुरू म्हणजे वनदेवता, मरंग बोंगा म्हणजे मूलस्थान देवता ह्यो सगळयो इश्ट देवता आसात. तातूंत ग्रामदेवतेक अग्रस्थान आसा. ही देवता सगळया रोगांपसून आनी भुताखेतांपसून लोकांची राखण करता आनी धनधान्य दिता अशी तांची श्रध्दा आसा. देखून लोक सदांच तिची पुजा करतात आनी दर वेळार तिका कोंबे, बोकडे, दुकर, रेडो सारकिल्लीं जनावरां बळी दितात. मरंग बोंगा म्हणजे एक उंच असो बर्फान भरिल्लो पर्वत आसा, अशी तांची कल्पना आसून थंयच्यान आमी आयले अशें ते समजतात. इश्ट देवतांची पुजा गांवचो पुरोयत करता.

भुतांखेतां आनी वायट शक्ती खूब आसात अशी तांची समजूत आसा. तांकां बळी दिवन तृप्त करपाचें काम पंचाक्षऱ्याकडेन सोंपयतात. तांचीं बरींचशीं नांवां हिंदूंच्या उग्र देवतांच्या नांवांवयल्यान पडल्यांत.

हेर आदिवासी जमातींप्रमाण हे लोक पयलीं आनी आतांय भुतांक भियेतात. अंधश्रध्देचेरय तांचो विश्वास आसा. रोगराय, मरण, सैमीक आपत्ती ह्यो सगळयो घटना वेगवेगळया दुश्ट शक्तींकलागून जातात आनी म्हणून त्या शक्तींक तशेंच भुताखेतांक (बोंगांक) जनावरांक बळी दिवपाक जाय जाल्यार ह्यो आपत्ती येनात असो तांचो समज आसा. चेटूक करपी बायलो वा दादले अशा शक्तींचो कोप एकाद्र्या मनशाचेर हाडपाक शकतात असो तांचो समज आसा. ताका लागून तांकां अशा लोकांचो खूब भंय दिसता. तांच्या गांवांत एक पंचाक्षरी आसता. ताका देवन्वा म्हण्टात. तो रोगाची चिकित्सा करून वखदां सांगता. भुताखेतांच्या रागण्याक लागून जर रोग जाला जाल्यारय ताचेर तो उपाय सांगता. तो जे बळी दिवपाक सांगता ते बळी उपरांत दितात.

बाळंतेरावेळार बायलांक वैजीण मदत करता. भुरगें जल्माक येवप हो एक खोशयेचो प्रसंग मानतात आनी ती बातमी रोखडीच गांवांत कळयतात. सुयेर चडकरून आठ दीस पाळटात. आठव्या दिसा भुरग्याच्या कपलाक देशी वारवर लायतात आनी न्हाण घालतात. मागीर हेरांनी भुरग्याक धरल्यार जाता. त्या दिसा सगळयांक सोरो दितात. पूण काय दिसां उपरांत कुळांतल्या सगळया लोकांक जेवण दितकच पुराय शुध्दी जाता. भुरग्याच्या नामकरणा खातीर ग्रामपुरोयत बरो दीस पळयता. चडकरून एकविसाव्या वा तिसाव्या दिसा नांव दवरतात.

साल झाडाचेर जेन्ना फुलां येतात तेन्ना धर्तरी एकाद्र्या फुलांच्या माळांनी सजिल्ले व्हंकलेप्रमाण सुर्याकडेन आपलें मीलन जांवचें म्हण उत्सुक दिसता अशें हे लोक समजतात. देवरी वा ग्रामपुरोयत मागीर सुर्याचें (सिंग बोंगाचें) रूप घेता आनी ताची बायल धर्तरेचें (ओटोबोरोमचें) रूप घेता अशें हे समजतात आनी दर वर्सा तांचें लग्न लायतात. ह्या लग्ना उपरांत हो चले-चलयांचीं लग्नां जातात. पयलीं हांच्यांत जातीभायर लग्न करपाची चाल नाशिल्ली. पूण काळाप्रमाण हालीं अशीं लग्नां जाता. एकाच घराण्यांतल्या चल्याचलयांचीं लग्नां जायनात. तशें करप म्हणजे भयंकर पाप समजतात. हे चुकीखातीर गुन्यांवकाराक दंड भरचो पडटा आनी गांवजेवण घालचें पडटा. ह्या लोकांत जायत्यो बायलो करपाची पद्दत आसा. दादलो जर भुरगें जायनासतनाच मेलो जाल्यार ताची विधवा धाकट्या देरावांगडा बायलेच्या नात्यान रावपाक शकता. दादल्याक आते वा मामे भयणीकडेन लग्न जावपाक येता.

हो लोकांत सकयल दिल्ले लग्नाचे प्रकार प्रचलित आसात- १) आंडी शास्त्रोक्त लग्न २) डिकू आंडी ३) ओपोरटिपी म्हणजे राक्षस लग्न ४) राजीखुशी आनी ५) अनोडर. पयल्या दोन प्रकारांनी शास्त्रोक्त विधी गरजेचो आसता. जाल्यार बाकीच्या प्रकारांनी तो चडसो नासता. पूण अशा संबंदांक लागून उत्पन्न जाल्ल्या भुरग्यांचो दर्जो मातूय कमी नासता. हेर भुरग्यांप्रमाणच तांकां वारसो हक्क आसता. पूण अशें लग्न करप्यांक समाजांत व्हडपण मेळना. ह्या प्रकारांत चलयेचें देज दिवंचें पडना देखून अशीं लग्नां समाजांत चड प्रचलित आसात. ह्या लग्नांची म्हायती अशी -

**आंडी :** चलयांचें लग्न अठरा ते एकवीस ह्या वयांत आनी चल्यांचें चोवीस वर्सांच्या फुडें जाता. चल्याक जर एकाद्री चली मानवली जाल्यार तो आपली इत्सा आवयबापायच्या कानार घालता. मागीर आवयबापूय दुतामार्फत चलयेच्या आवयबापायकडेन संपर्क सादतात. चल्याखातीरय जर बरीशी व्हंकल सोदपाची आसत जाल्यार तेंय काम चल्याचे आवयबापूय चडकरून मध्यस्थाकडेन सोंपयतात. मध्यस्थान एकाद्री चली पसंत केली म्हणजे चल्याचीं मनशां सोऱ्याचे कळशे घेवन दबाज्यान चलयेच्या घरा वतात. थंय गेल्या उपरांत सगळेजाण सोरो पियेतात आनी वाटेर दिशिल्ल्या जनावरांची आनी शेवण्यांची म्हणजेच शकुनांची चर्चा करतात. शकुन जर शुभ आसत जाल्यार फुडलीं उलोवणीं करतात नाजाल्यार परत घरा येतात. वाटेंत दिशिल्ल्या पशुपक्ष्यांचीं लक्षणां जर शुभ आसत जाल्यार वधूमुल्याची चर्चा करतात आनी लग्न थारायतात. हे चर्चेंत खुबसो वेळ फुकट वता. न्हवऱ्यावटेनचीं मनशां आपल्या वांगडा हाडिल्ल्या शिद्याचें जेवण

करून जेवतात. चलयेवटेनच्या मनशांकडल्यान तीं केन्नाच जेवण घेनात. रातची नाचाची कार्यावळ जाता.

चडकरून धा ते पंदरा गोरवां, चाळीस ते पन्नास रूपये, भांगरां, पन्नास ते शंबर कळशे सोरो आनी किल्लीच्या (घराण्यांतल्या) जेवणाचो खर्च इतलें वधूमूल्य न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेच्या बापायक दिता. किल्लींतलीं मनशां न्हवऱ्याच्या बापायक देजांत थरील्लीं गोरवां दिवपांत पालव दितात.

मागीर एकाद्र्या शुभ दिसा व्हंकलेची मंडळी न्हवऱ्याचें घर पळोवपाक आनी देजांत दिवपाचीं गोरवां पळोवपाक न्हवऱ्याच्या घरा वतात. चड मनशां आसल्यार वतना ते आपल्या जेवणाखातीर शिदो व्हरतात. कमी मनशां आसल्यार मात न्हवरेकार तांकां जेवणाचें सगळें साहित्य दितात आनी ते आपलें जेवण करून जेवतात.

दुसऱ्या दिसा व्हंकलेच्या पक्षाकडल्या लोकांक देज म्हणून दिवपाचीं थारिल्लीं गोरवां दाखयतात. तातुंतलीं जर तांकां पसंत नासलीं जाल्यार तीं बदलून दितात. तांणीं गोरवां पसंत केलीं म्हणजे बापला नांवाची कार्यवळ जाता. त्या वेळार सगळे गांवकरी रातच्या नाच-गायनांत वांटो घेतात आनी मजा करतात. गांवांतल्यो बायलो आंगाक तेल - हळद लावन न्हंयेचेर न्हावपाक वतात. त्या वेळार व्हंकले वटेनचे लोक तांच्या फाटोफाट न्हंयेचेर वतात. उपरांत कुकमाचो तांबडो वा हळदिचो हळदुवो रंग तयार करून एकामेकांच्या आंगार उडयतात. बापला हो लग्नाचो म्हत्त्वाचो विधी आसता.

हाच्या उपरांत एक - दोन म्हयन्यांनी एर थिल नांवाचो एक विधी जाता. तेन्ना न्हवरो आपल्या लोकांवांगडा व्हंकलेच्या घरा वता. वतना तो आपल्या वांगडा सोऱ्याचे कळशे, दाळ, तांदूळ, बोयडे आनी देजाचीं गोरवां घेवन वता. न्हवऱ्यावटेनची मंडळी आपलें जेवण रांदून जेवतात. दुसऱ्या दिसा सकाळीं न्हवरो आनी व्हंकलेक आंगणांत एकामेकां मुखार बसयतात. मागीर न्हवरो व्हंकलेक एक सोऱ्याचो दोणो दिता. तिका जर न्हवरो मानवलो जाल्यार ती त्या दोण्यांतलो सोरो पियेता आनी जमिल्ल्या लोकांक सोरो वांट्टा. मागीर ती न्हवऱ्याक सोऱ्याचो दोणो दिता. ताका व्हंकल मानवली जाल्यार तोय तशेंच करता. पूण जर न्हवऱ्यान दिल्लो सोऱ्याचो दोणो व्हंकलेन घेतलो ना जाल्यार तो तिका कांय पयशे, कपडे वा भांगरां दिता आनी तिचो हयकार मेळयता. तरीय जर व्हंकलेन पसंती दाखयली ना जाल्यार मागीर तें लग्न जायना. दोगांचीय जर पसंती मेळ्ळी जाल्यार मागीर जमिल्ल्यो व्हंकलेच्यो भयणी आनी इश्टीणी न्हवऱ्याचीं खूब फकाणां करतात. रातचो नाच जाता तातूंत न्हवरो - व्हंकल भाग घेतात.

ताच्या उपरांत दोनय पक्षांचे लोक परत एकठांय येवन लग्नाचो मूर्त थारायतात. मागीर व्हंकल एकादे जाण्टे बायलेवांगडा आपल्या सोयऱ्यांगेर वचून तांकां मूहूर्त कळयता. सगळयांत निमणी ती आपल्या मामागेर वता. थंयच्यान कांय दादले आनी बायलो तिका दबाज्यान न्हवऱ्याच्या घरा व्हरतात. गांवाचे शिमेकडेन पावल्याउपरांत कांय बायलो झाडाच्यो खांदयो मोडून आपल्या हातांत घेतात आनी व्हंकलेक मदीं दवरून व्हडा-व्हडान बोवाळ मारतात. उपरांत न्हवरो हातांत धोणूबाण घेवन एकटयाच्या खांद्यार बसून थंय येता. मागीर थंय सादें झूज जाता. तें सोंपल्या उपरांत व्हंकलेक न्हवऱ्याच्या घरा व्हरतात. थंय तिका अश्टपुत्री न्हेंसपाक दितात आनी मागीर थोड्या वेळान तांचें लग्न जाता.

लग्नाखातीर सवो घालतात आनी ताचेर भाताचीं कणसां पातळायतात. ताचेर पाट दवरतात आनी न्हवऱ्या-व्हंकलेक एकठांय बसयतात. गांव पुरोयत सिंग बोंगा आनी हेर देवता हांकां उद्देशून मंत्र म्हण्टा. न्हवरो-व्हंकल एकामेकांच्या कपलाक कुकूम लायतात. मागीर गांव पुरोयत एका बुडकुल्यांत शित करून ताचो पितरांक निवेद्य दाखयतात. न्हवऱ्या - व्हंकलेक त्या निवेद्याक हात लावपाक सांगतात. मागीर व्हंकल न्हवऱ्याचे किल्लींत आस्पावली अशी घोशणा करतात. कांय जाग्यांचेर न्हवरो-व्हंकल एकामेकांक तेल-हळद लायतात. इतल्यान लग्नाचो सुवाळो सोंपता.

लग्नाउपरांत दोन - तीन दीस जेवणावळी चलतात. पयले दोन दीस व्हंकल न्हवऱ्याच्या घरांतलें जेवण घेना. कुळारच्या मनशांनी दिल्ले जिन्नस ती खाता. मागीर न्हवरो आनी ताचो आवय - बापूय तिका घरांतलें जेवण जेवपाखातीर सांगतात. तिणें जर तें आयकूंक ना जाल्यार तिचे इत्सेप्रमाण तिका एकाद्री भांगराची वस्त बी दितात. न्हवऱ्याच्या घरा जेन्ना व्हंकल पयलें जेवण जेवता तेन्ना किल्लींतल्या सगळया लोकांक मटणाचें जेवण दितात.

व्हंकलेवटेनचे लोक लग्न जाल्याउपरांत आपल्या गांवांत परत वतात. पूण तिसऱ्या दिसा व्हंकलेच्या सोयऱ्यापैकीं कांय बायलो खावपाचे जिन्नस घेवन न्हवऱ्यागेर वतात आनी ते जिन्नस न्हवऱ्या - व्हंकलेक खावपाक दितात. कुळारच्या लोकांनी आपल्याक सोडली अशी व्हंकलेची भावना जावंची न्हय म्हणून ही भेट दिवपाची आसता. न्हवऱ्यावटेनचेय लोक ह्या बायलांचो बरो मान-पान दवरतात.

**डिकू आंडी :** ह्या लग्नाचोय विधी आंडी लग्न पद्दतीसारकोच आसता. पूण कांय विधी चड आसतात ते अशे -

ह्या लग्नाच्या विधींतलो पुरोयत भट आसता. न्हवरो-व्हंकल शाळिग्राम शिळे मुखार एकनिश्ठेचो सपूत घेतात. न्हवरो हातांत सुरी घेवन व्हंकलेचे भोंवतणीं सात प्रदक्षिणां घालता आनी मागीर तिच्या कपलाक कुकूम लायता. व्हंकलय ताच्या कपलाक कुकमाचो तिबो लायता.

**ओपोरटिपी :** एकाद्र्या चल्याक जर एक चली मानवली आनी तांच्या लग्नांत जर कितेंय आडखळी आसल्यो जाल्यार तो चलो ते चलयेक उबारून व्हरता आनी ती ताची बायल म्हण ताच्या

म्हन्यांत रावता. ह्या लग्नांत कसल्याच विधीची गरज नासता. तरीय हाका सामाजिक प्रतिश्ठा आसता.

**राजीखुशी :** ह्या प्रकारांत न्हवरो - व्हंकल एकामेकांक पसंत आसतात. पूण जाण्टी मनशां हाका तयार नासतात. मागीर दोगांय पळून वतात आनी घोव - बायल म्हण रावपाक लागतात. ह्या प्रकारांत कसलोच विधी करीनात वा चलयेचें देजय दिनात.

**अनोडर :** - ह्या प्रकारांत चली आपले पसंतीच्या चल्याच्या घरांत घुसता आनी ताची बायल म्हण रावपाक लागता. सुरवेक तिका ताच्या घरच्या लोकांचे खुबशे त्रास सोसचे पडटात. पूण मागीर चलो तिका बायल म्हण आपणायता.

ह्या लोकांत सोडचिठी दिवपाची चाल आसा. घोव-बायल केन्नाय एकमेकांक सोडपाक शकतात. ते खातीर कसलोच विधी करपाची गरज नासता. पूण घोवान जर बायलेक कांय खास कारणाखातीर धांवडायल्या जाल्यार तिचें परत लग्न जावप कठीण आसता. विधवांक परत लग्न करपाची परवानगी आसता आनी त्यो चड करून धाकटेपणाक लग्न जातात.

चलयेचे आवय-बापूय केन्नाच न्हवरो सोदीनात. तिका जर कोणेय मागणी घाली जाल्यारच तिचें लग्न जाता. ताकालागून कांय चलयो लग्नाबगर रावतात आनी कांय चलयांक अशास्त्रोक्त लग्न करचें पडटा.

हे लोक मडीं लासतात वा पुरतात. गिरेस्त लोक चडकरून मडीं लासतात आनी उरिल्ले पुरतात. आत्महत्त्या, देवी, कुश्ठरोग हांकांलागून मरण आयिल्ल्या मनशांक पुरतात. गांवाच्या एका कोनशाक मसंडी आसता. ताका ससन अशें म्हण्टात. मडें पुरल्या उपरांत ताचेर एक व्हड शिळा दवरतात. तिका ससन डिरी अशें म्हण्टात. कोणाच्याय मरणाची खबर कळ्ळयाउपरांत ताचे किल्लींतले लोक, सोयरे आनी दुसऱ्या गांवांतले इश्ट सोरो, तांदूळ, नवे कपडे आनी पयशे घेवन ताच्या घरा येतात. मेल्ल्या मनशाची शवपेटी वा निसण, बायलो मसंडेमेरेन व्हरतात. मेल्ल्या मनशावांगडा ताच्यो सदच्या वापरांतल्यो वस्तू लासतात वा पुरतात. मडें लासपाखातीर खास अशा झाडांचीं लांकडां वापरतात. मडें चडकरून रातचें लासतात. मेल्ल्याच्यो अस्थी धूवन आनी सुकोवन एका बुडकुल्यांत घालतात. हो बुडकुलो पारव्याक लोमकळायतात वा अडिंगांत दवरतात.

परकी गांवांतल्यान आयिल्ले सगळे लोक किल्लींतल्या वेगवेगळ्या घरांनी रावतात. थंय तांच्या जेवणा-खाणाची वेवस्था जाता. कांय खेप ते मेल्ल्या मनशाचें घर नितळ करून थंयच रावतात आनी वांगडा हाडिल्ल्या शिद्याचें जेवण करून जेवतात. पूण आपल्या खर्चाचें वजें ते केन्नाच मेल्ल्याच्या घरच्यांचेर घालिनात हें ह्या लोकांचें खाशेलेपण जावन आसा.

मर्तिकाच्या वेळार हे लोक, चडकरून बायलो व्हडल्यान किळंच्यो मारतात आनी तकली वण्टीचेर आपटितात.

चार दीस सुतक पाळटात. गांवांतलीं सगळीं मनशां सुतक पाळटात आनी तें सोंपल्याउपरांत दबाज्यान न्हंयेचेर वतात आनी न्हावन शुध्द जातात. हो विधी खोशयेचो आसता. कारण तितल्या वेळांत मेल्ल्याचो आत्मो आपल्या पुर्वजांच्या आत्म्यांत वचून मेळिल्लो आसता. मागीर गांवपुरोयत आनी मुंडा हांच्या पालवान दीस थारायतात आनी मेल्ल्याचें श्राध्द करतात.

हे लोक पयलींसावन चलत आयिल्ल्यो परबो आनी उत्सव अजूनय मनयतात. कारण तातुंतलो कांय भाग कुशीक दवरल्यार आपल्या कुळाचेर संकट येतलें असो तांकां भंय दिसता. माघे, बाहा, दमुराई, हेरो, जमनम, कोलोन आनी बटौली हे तांचे मुखेल उत्सव आसात. चडशे उत्सव शेताकडेन संबंदीत आसून पिकावळ बरी येवंची, पिकांची रोगांपसून राखण जावंची देखून ह्या उत्सवांत त्या त्या देवतांची पुजा आनी मागणें करतात. गांवचो पुरोयत ही पुजा करता. ह्या उत्सवांचो दीस थारिल्लो नासता. गावकऱ्यांची अर्थीक परिस्थिती आनी पावसाचें आगमन ह्याप्रमाण हे दीस थारायतात.

माघे हो ह्या लोकांचो सगळ्यांत मुखेल उत्सव. माघ म्हयन्यांत तो मनयतात. दर एक गांव आपले सोयीप्रमाण ह्या उत्सवाचो दीस थारायता. ताकालागून सगळ्या गांवांनी मेळून पांच-स आठवडे हो उत्सव चलता. दीसय वेगळे आशिल्ल्यान एका गांवांतले लोक दुसऱ्या गांवांच्या उत्सवांत वांटो घेवपाक शकतात. परकी गांवांत आशिल्ल्यान ह्या दिसांनी आपल्या गांवांत परत येवन ह्या उत्सवांत वांटो घेवपाकूच जाय असो नेम आसा. जर तशें करूंक ना जाल्यार तें सोयऱ्यांक वायट आसता अशें मानतात. हो उत्सव चडकरून पांच-स दीस चलता. पयल्या दिसा सकाळीं गांवकरी तणाच्यो वंडी घेवन गांव पुरोयताच्या आंगणांत एकठांय येतात. थंय शेणान सारयल्ल्या जाग्याचेर ते त्यो वंडी उडयतात. पुरोयत न्हावन त्या तणाचे राशीमुखार बसता आनी ग्रामदेवता, सिंग बोंगा आनी हेर शुद्र बोंगा हांचें मागणें करता. ताच्याउपरांत गांवचो राखणो गोरवां तण खातना जशें विसकटावन उडयतात तशें तण विसकटावन उडयता आनी आंगाक तण दशिल्ले अवतिकायेंत रानांत धांव मारता. मागीर सगळे घरा परततात आनी अडिंगांतल्या पितरांक सोऱ्याचो निवेद्द दाखयतात. दुसऱ्या दिसा धर्तरी आनी सूर्य हांचें लग्न जाता. गांव पुरोयत आनी ताची बायल आंगणांत बसतात. गांवकरी तांच्या हातांतल्या दोण्यांत सोरो वोततात. दोण्यांतलो इल्लो सोरो जमनीर उडोवन आनी मंत्र म्हणून तीं दोगांय तो सोरो पियेतात. जमिल्ल्या सगळ्या लोकांकय सोरो वांट्टात. तिसऱ्या दिसा लोक आपलीं घरां नितळ करतात आनी आपूण न्हावन ओआ बोंगांक बळी ओंपतात. चवथ्या दिसाचो विधी गांवाभायर ग्रामदेवतेमुखार जाता. त्या दिसा पुरोयत उपास करता. दनपार जाल्याउपरांत सगळे गांवकरी ताका दबाज्यान न्हंयेचेर

न्हावपारवातीर व्हरतात. मागीर ताका पुजेच्या जाग्याचेर व्हरतात. गांवकरी आपल्या वांगडा एक सोन्याचो व्हडलो कळसो, उदकाचो एक कळसो, दोणे आनी एक तांबडो कोंबो आनी दोन कोंबयो घेवन वता. पुरोयताच्या मुखार जायते दोणे मांडून दवरतात. तातूंत तो मंत्र म्हणून सोरो वोतता. मागीर तो कोंब्यामुखार सात खेप धान्याचे गोटे उडयता आनी मागीर ताचो बळी दिता. मागीर सगळया भुतां-खेताक गांवाभायर धांवडावपाचो विधी जाता. पांचय दीस सदांच रातची नाचाची कार्यावळ जाता. गावप, वाजोवपय चालू आसता. सगळे लोक सोरो पियेतात आनी मेकळेपणान वागतात. जायत्या गांवांतल्यो चलयो-चले ह्यावेळार एकठांय येतात आनी थंय तांचीं लग्नांय जुळटात, हें ह्या उत्सवाचें खाशेलेपण.

ताचेउपरांत वैशाख म्हयन्यांत बाहा हो उत्सव जाता. ह्या दिसांनी लोक आपलीं घरांदारां फुलांनी सजयतात आनी शरीराकय फुलांनी सोबा हाडटात. साल रूख फुलले म्हणजे हो उत्सव करता. उत्सवाच्या दिसा गांवांतले देवतेची साल रुखाच्या फुलांनी पुजा करतात आनी तिका कोंब्याचो बळी दितात. ह्या दिसा पितरांच्या अवशेशांचीय पुजा करतात. रोपिल्ल्या बींयांक आंकूर फुटचे आनी बरीं रोपां तयार जावंचीं म्हणून हो उत्सव करतात. हेर उत्सव अशेतरेन त्या त्या वेळार मनयतात.

हाच्याशिवाय चैत परब, दसरो, दिवाळी सारकिल्ले सणय ते व्हड खोशयेन मनयतात. चैत परबेंत ते महादेवाची, दसऱ्याक लक्ष्मीची आनी दिवाळेक कालिमातेची पुजा करतात.

ह्या लोकांचो मुखेल वेवसाय म्हणजे शेतवड. पयलीं जेन्ना हे लोक कोल्हन वाठारांत आयले तेन्ना ते रानांतलीं कंदमुळां आनी जनावरां-शेवणीं मारून तांचेर आपलें पोट भरताले आनी आजुनय हें चलता. शेतीच्या धंद्यांत हांणीं व्हडलीशी उदरगत केल्ली ना. पूण ह्या वाठारांत मान्सूनचो पावस व्हड प्रमाणांत पडिल्ल्यान भात हें हांगाचें मुखेल पीक आसा. रोप तयार करून लावपाची पद्दत तांकां खबर आसा. पयलींसावन ते शेताखातीर साऱ्याचो उपेग करताले.

भाताच्यो जायत्यो जाती ते लायतात. जायते गांवकरी एकठांय येवन शेताची नांगरणी एकच खेप करतात. शेतांतली नडणी, रोपणी आनी लुवणी हीं कामांय एकठांय येवन करतात.

भात पिकून तयार जालें आनी लुवणी जाली म्हणजे पयलीं एके बुटयेंत थोडें भात भरून ताचो निवेद्य बोंगाक दाखयतात आनी ती बुटी अडिंगाच्या एका कोनशाक दवरतात. उरिल्ल्या भाताचे दोन वांटे करून एक वांटो कोठयेंत सांठयतात. दुसऱ्या वांट्यातलें भात मालगुजारी दिवपाखातीर विकतात. थोडें भात गांवकऱ्यांक वांट्टात. गांवांतले कामगार, पुरोयत, मांत्रिक, धवड ह्या लोकांकय भात दिवंचें पडटा. नवें धान्य खावपाक सुरवात करचे पयलीं सिंग बोंगा आनी अडिंगांतल्या पितरांक जेवण दिवंचें पडटा.

हे लोक नुस्तेंमारीय करतात. तातूंत दादल्यावांगडा बायलो आनी भुरगींय वांटो घेतात. हो उद्देगय सामुदायीक रितीनच चलता आनी धरिल्ल्या नुस्त्याची त्याच दिसा सगळया गांवकऱ्यांमदीं वांटणी जाता.

नुस्तें सुकोवन आनी सांठोवन दवरपांत हे लोक कुशळ आसात. सुकयल्लें नुस्तें तांकां खूब मानवता आनी हेर वस्तू घेवपाखातीर लिनिमयाचें साधन म्हणूनय ताचो उपेग जाता.

लाख पुनोवप, रेशमाचे किडे पाळप, शिकार करप, खाणींत आनी रस्ते बांदपाच्या कामांत मजूर म्हण काम करप हे उद्देगय कांय लोक करतात. खंयच्याय कामांत एकामेकांक पालव दिवप हें ह्या लोकांचें खाशेलेपण. चडकरून गांवांतलीं सगळीं कामां सामुदायिक रितीनच जातात. तातूंत जळोव एकठांय करप, कोंडे, झाडां कापप हांचो आस्पाव जाता.

धवडकाम, मेस्तकाम, बुरूडकाम, घरां शिंवप, भिंती रंगोवप हातूंत वस्ताद आशिल्लीं मनशां सगळया गांवाखातीर हीं कामां करतात. कांय घराणीं सोरो करपांत हुशार आसतात. तीं गांवांतल्या लग्न कार्यांखातीर वा गांव जेवणा वेळार सगळयांखातीर सोरो तयार करतात.

कोल्हन वाठारांत पयशांचो वेव्हार कमी प्रमाणांत जाता. मजुरी म्हण थंय धान्य दिवपाची चाल आसा. तेचप्रमाण भात, तांदूळ, मीठ हांच्या बदला ते तंबाकू, दाळी, भाजयो, मातयेचीं आयदनां सारकिल्ल्यो गरजेच्यो वस्तू घेतात. कपडे, भांगराच्यो बी वस्तू घेवपाखातीर मात तांकां पयशे-दिवंचे पडटात. उद्देग - धंद्याचे बाबतींत मात हे लोक कांय गजाली निशिध्द मानतात. त्यो म्हणजे बायलो शेत नांगरीनात, धोणूबाणाक हात लायनात वा वाद्यांक हात लायनात आनी तीं वाजयनात. मासिक पाळी चालू आसतना बायलो शेतांतलीं कामां वा घरांत सोरो करीनात. त्या काळांत तांच्यो शेजान्नी तांचीं हीं कामां करतात. रेशमाचे किडे पाळपाचें कामय बायलो करिनात. ह्या धंद्यापसून बायलांक खूब पयस दवरतात. पयलीं हे जमातींत शालेय शिक्षणाचो अभाव आशिल्लो. जाण्टया मनशां वांगडा घरांतलीं आनी भायलीं कामां करपांत तीं हुशार आसतालीं. घरच्या घरांत मेळपी हें तांचें वेव्हारीक शिक्षणच आशिल्लें. तशेंच जाण्टीं मनशां तांकां बरे वागणुकेचें आनी शिस्तीचें शिक्षण दितालीं. पूण आतां भुरगीं शाळेंत वतात आनी वेगवेगळया विशयांचो थंय अभ्यास करतात.

हे लोक पयलीं जायत्या तरांचे खेळ खेळटाले. पूण आतां तातुंतले जायते खेळ बंद जाल्यात. कोंब्यांची झूंज लावप हो तर तांचो सामको आवडिचो खेळ. तेखातीर घरान घर कोंबे पाळटात. सण - उत्सवाच्या वेळार व्हडा उमेदीन कोंबे झुंजयतात.

तांच्या जिवितांत नाचाक व्हड स्थान आसा. दर एका चल्या - चलयेन रातचें जेवण जाल्या उपरांत आखाड्यांत नाच करपाखातीर

हजर रावपाक जाय असो तांच्यांत नेम आसा. चलयो नटून - थटून आरवाड्यांत वतात आनी पांवो, झांजो हांच्या तालार मध्यान रात मेरेन नाच करतात. नाचाच्या वेळार चले आनी चलयो पदांय म्हण्टात. ह्या वेळार सगळीं कडक शिस्त पाळटात. कोणेय जर जमातीचे नेम वा जाण्ट्यांची आज्ञा पाळळी ना जाल्यार तांकां नाचांत वांटो घेवपाक मनाय करतात.

पयलीं हे जमातीचे कांय कडक नेम आशिल्ले आनी ते पाळपांत घरांतलीं जाण्टीं मनशां जागरूक आसतालीं. कारण हे नेम पाळळे ना जाल्यार कुटूंबाचेर वा सगळ्या घराण्याचेर संकट येता असो तांकां भंय दिसतालो. देखून नेम पाळना जाल्यार ते मोडप्याक ख्यास्त जाताली. गुन्यांव जर गंभीर स्वरुपाचो आसत तर ताका जातीभायर घालताले. पूण देवतांक बळी दिलो आनी गांव जेवण घालें म्हणजे सगळ्या गुन्यावांचें प्रायश्चीत्त मेळटालें. समाजांतली प्रतिश्ठा कमी जावप ही त्या वेळावयली व्हड ख्यास्त समजताले. समाजाच्या बऱ्यारखातीर पयलीं जायते विधीनिशेध थारायल्ले आशिल्ले. भुतारवेतांचो कोप जावंचो न्हय म्हणूनय जायत्यो गजाली वर्ज्य मानिल्ल्यो. वेगवेगळ्या कुळांचो, जमातींचो वेव्हार पयलीं चलनाशिल्लो. वळरव नाशिल्ल्या मनशाच्या हातचें अन्नय ते घेनाशिल्ले. लग्नसंबंदांचेरय जायतीं बंधनां आशिल्लीं आनी तीं कडकपणान पाळटाले. हेर जमातींप्रमाण हो जमातीच्या आचार - विचारांत काळाच्या संदर्भांत बदल घडत रावल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

## होडारकार, शंकर ऊर्फ रमेश मंगेश : (जल्म : १४ मार्च १९२८, कवळें - फोंडें).

सुटकेझुजारी. ताणें बी.एस्सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. १९४९-५१ ह्या काळांत तो नॅशनल काँग्रेस गोवा संघटनेच्या पुणें शारवेचो चिटणीस आशिल्लो. फुडें १९५४ - ५५ आनी १९६० ह्या काळांत तो हे संघटनेचे कार्यकारी समितीचो वांगडी आशिल्लो. २३ जून १९४६ ह्या दिसा मिरवणुकींत वांटो घेतलो ह्या आरोपारवाल ताका अटक करून दोन म्हयन्यांखातीर रवर बंदरवणीची ख्यास्त दिली. फुडें १० जुलय १९५४ ह्या दिसा मडगांव हांगा भुंयगत वाठारांनी वांटो घेता ह्या आरोपारवाल परत ताका अटक केल्लो आनी साडेचार म्हयने बंदरवणींत दवरलो. फुडें १९५५त ताचे गैरहजेरेंत पुर्तुगेजांआड भूंयगत कारवायो करता हो आरोप दवरून ताका दोन वर्सां रवर बंदरवणीची ख्यास्त फर्मायली. भारत सरकारान सुटकेझुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं

## होण्डूरस : मध्य अमेरिकेंतलो एक ल्हान देश. केळीं उत्पादनांत ताची खूब नामना आसा. लॅटीन अमेरिकेंतलें तें सगळ्यांत ल्हान प्रजासत्ताक. क्षेत्रफळ ११२,०८८ चौ. किमी. उदेंत-अस्तंत देशाची चडांत चड लांबाय ६५२ किमी. आनी दक्षिण-उत्तर रूंदाय ३८६ किमी. देशाचे अस्तंतेक गौतेमाला आनी एल् सालवादोर देश; दक्षिण आनी उदेंतेक निकाराग्गुआ; उत्तरेक कॅरिबियन दर्या आनी ईशान्येक पॅसिफिक म्हासागराची ल्हान देग आसा. तेगुसिगाल्पा हें देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन :** देशाची लागींलागीं ७५% भूंय पर्वतीय आसा. सपाट भूंय वा सरवल प्रदेश चडकरून दर्यादेगांनी वा मध्य भागांतल्या न्हंयांच्या देगणांनी मेळटा. भूंयरचणुकेचे नदरेन देशाचे चार सैमीक वांटे केल्यात, ते अशे - १) मध्य पर्वतीय भाग; २) उत्तरेकडची दर्यादिग; ३) आग्नेयेकडचो सपाट प्रदेश आनी ४) दक्षिणेकडची दर्यादिग. मध्यवर्ती पर्वतीय भागान देशाची सुमार ६०% भूंय रेवाडिल्या. सेर्रोस दे सेलाके हें देशांतलें सगळ्यांत उंचेलें तेमूक. ताची दर्यातळासावन उंचाय २८४९ मीटर. पूण देशांतले चडशे पर्वत कमी उंचायेचे आसात. उत्तरेकडची दर्यादिग ही मुरवेलपणान गाळ सांचून तयार जाल्ली सपाट भूंय आनी ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्यांनी मेळून तयार जाल्या. देशाचो सुमार १३% वांटो हे दर्यादिगेन रेवडिला. अर्थीक नदरेन हो देशाचो चड म्हत्त्वाचो प्रदेश. आगुआन आनी हेर अशीर देगणां ह्या भागांत सांपडटात. आग्नेयेकडच्या मळान देशाचो सुमार २०% प्रदेश रेवडिला. होण्डूरसांतलो हो सगळ्यांत चड फाटीं आशिल्लो भाग. हो चडसो भाग उश्णकटीबंधीय पावशी रानान व्यापला. देशाची दक्षिणेकडची दर्यादिग म्हळ्यार पॅसिफिक म्हासागराची अशीर देग. ताची लांबाय फकत ७७किमी. इतली आसा.

होण्डूरसांत मुरवेलपणान उश्णकटीबंधीय प्रकारचें हवामान आसा. पूण पर्वतीय भागांत उंचायेप्रमाण तें शितळ जायत वता. दर्यादिगांतलें वर्सुकी सरासरी हवामान ३१° से. आसता. जाल्यार पर्वतीय भागांत तें सादारणपणान २३° से. उरता. मे हो देशांतलो चड उश्णतायेचो, जाल्यार डिसेंबर हो शितळ म्हयनो. पावसाळो मे म्हयन्याचे निमाणेकडेन सुरू जावन तो नोव्हेंबर मेरेन उरता. उंचायेप्रमाण पावस ७५ ते १५० सेंमीं. इतलो पडटा. देशाच्या आग्नेय भागांत पावस सगळ्यांत चड म्हळ्यार २५० सेंमी. इतलो पडटा. उत्तर दर्यादिगेर ऑगस्ट-सप्टेंबर म्हयन्यांत केन्ना केन्नाय व्हड मोडां जातात.

होण्डूरसाच्या उदेंत दर्यादिगांनी आनी न्हंयांदेगांनी उदकांत जावपी झोंपां चड. ह्या भागांत माडांच्योय बागो खूब. अस्तंतेकडच्या रानांनी मुरवेलपणान पायन-सवाना प्रकारची रूखावळ मेळटा. मध्यवर्ती पर्वतीय भागांत ओक आनी पायन रुखावळ चड आसा. जाल्यार उत्तरेकडच्या पिकाळ दर्यादिगेर केळींची खूब प्रमाणांत लागवड केल्या. हांगाच्या रानांनी मुरवेलपणान माहोगॅनी, लिग्नम वायटे, स्पॅनिश सिडार बाल्सा, रोसवूड, सेबा, सापोटा आनी कास्तिला रबर ही वनस्पत चड आसा.

देशाचे मोनजातींत मुखेलपणान तरेकवार सवर्णी, सरपटपी मोनजात आनी वेगवेगळ्या किटकांचो आस्पाव जाता. किटकांत तरेकवार पारवे, पिसोळीं, म्होंवामूस, वायटी, मुयांचे वेगवेगळे प्रकार, जळार आनी कोळी हांचो आस्पाव जाता. पाणकोंबे चडकरून न्हंयांदेगांनी मेळटात. सरपटपी मोनजातींत मानगें, तरेकवार सोरोप, शेड्डे आनी कांसवांचो आस्पाव जाता. जाल्यार रानवटी मोनजातींत वांस्वेल, प्युमा, चित्तो आनी बिबळ्यांचो आस्पाव जाता.

**इतिहास :** सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेक स्पेनीश लोक हांगा पावले. ताच्या आदल्या इतिहासाची म्हायती स्पश्टपणान मेळना. 'माया इंडियन' ही लॅटीन अमेरिकेंतली प्रसिद्द संस्कृती ८०० च्या सुमाराक 'कोपान' शारांत नांदताली. त्या वेळार कोपान शारांत सोबीत राजवाडे पिरामीड आनी देवळां आशिल्लीं. तशेंच थंयचे लोक विज्ञान आनी साहित्यीक मळार खूब मुखार आशिल्ले अशें म्हण्टात. पूण स्पेनिश लोक थंय पावले तेन्ना कोपान शार तांकां विध्वंस केल्ले अवस्थेंत सांपडलें. थळावे इंडियन लोकय तें शार विसरून गेल्ले.

क्रिस्तोफर कोलंबस हो स्पेनिश खलाशी १५०२त काबो दे होन्डूरास भूंयशिराचेर पावलो. ताणें आपले कांय सांगाती थंय दवरून त्या भागाचेर स्पेनिश शेक बसयलो. उपरांत नव्या गजालींचो सोद घेवपाखातीर साबार स्पेनिश संशोधक आनी भोंवडेकारांनी थंय वचून आपलो राबितो केलो. स्पेनिश लोकांनी ल्हव ल्हव करून थळाव्या इंडियन लोकांक आपल्या शेकातळा हाडले. होन्डूरसाचेर ताबो मेळयतना स्पॅनिशांनी खूब इंडियनांक मारून उडयले. कांय इंडियन रोगाच्यो धामी येवन काबार जाले, जाल्यार कांय जाणांक गुलाम म्हूण वेस्ट इंडिसाक धाडले. भांगर आनी रूपें हांचो सोद लागल्याउपरांत चड आनी चड स्पॅनीश लोक हांगा येवन स्थायीक जावपाक लागले. तशेंच भांगर आनी रूपें खणून काडपाखातीर आफ्रिकेंतल्यान खाप्री लोकांक गुलाम म्हूण हाडले. पूण होन्डूरसांतलो खण उद्देग स्पॅनियार्डांखातीर केन्नाच फायदेशीर थरलो ना.

१५ सप्टेंबर १८२१ ह्या दिसा होन्डूरात आनी मध्य अमेरिकेंतल्या हेर चार राज्यांनी मेळून आपलें स्वातंत्र्य जाहीर केलें. सुरवेक तो मेक्सिको साम्राज्याचो एक वांटो जालो. पूण १८३३त होन्डूरस वेगळो जावन तांणीं मध्य अमेरिकेंतल्या हेर राज्यांक मेळून संयुक्त प्रांताची स्थापना केली. संयुक्त प्रांताच्या सरकारान सगळ्या थरांच्या लोकांखातीर समान कायदे चालीक लावपाचे यत्न केले. तेखातीर ताणें हक्क काडून घेतले. आपले हक्क परतून मेळोवपाखातीर जमीनदार आनी पाद्रींनी संयुक्त प्रांताक खर विरोध केलो. हाचो परिणाम म्हळयार १८३८त होन्डूरस संयुक्त प्रांतांतल्यान भायर सरलो.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत होन्डूरस हो मध्य अमेरिकेंतलो सगळ्यांत अशक्त देश आशिल्लो. हाका लागून ताच्या शेजारच्या देशांनी ताचेर चेंपण हाडून आपलो स्वार्थ सादून घेतलो. चड करून गौतेमालान होन्डूरसांतल्या विरोधी पक्षांक फाटबळ दिवन थंय साबार उठाव घडोवन हाडले.

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या निमाणेकडेन अमेरिकेंतल्या कांय कंपन्यांनी होन्डूरसांत गुंतवणूक करपाक सुरवात केल्ली. होन्डूरसाची भूंय आनी हवामान केळींची लागवड करपाक बरें आशिल्ल्यान चडशा कंपन्यांनी केळीच्या बागांनीच गुंतवणूक केल्ली. तेखातीर देशाचे उत्तरेकडची भूंय, रानां आनी झोंपां मारून नितळ केल्लीं. केळ्यांची हाड-व्हर करपाखातीर तांणीं रेल्वेमार्ग आनी बंदरय बांदिल्लें. केळ्यांच्या उत्पन्नांत वाड जायत रावलीं तशें तांणीं शार उबारून कामगारांखातीर थंय शाळा आनी हॉस्पिटलांय बांदलीं. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक होन्डूरसाची अर्थवेवस्था मुखेलपणान केळी-उत्पन्नाचेरच आदारिल्ली. हाका लागून होन्डूरस सरकारान ते कंपनीक केळ्यांचें उत्पन्न आनीक वाडोवपाखातीर कांय खाशेल्यो सवलती दिल्ल्यो. केळ्यांच्या वाडट्या उत्पन्नाक लागून त्या काळांत ताचो 'केळया प्रजासत्ताक' म्हूण उल्लेख जातालो.

विसाव्या शेंकड्याच्या तिसऱ्या दसका मेरेन देशांतली राजकीय स्थिती खूब इबाडिल्ली. त्या तेंपार देशांत क्रांतिकारी वातावरण पातळिल्लें. हाका लागून राश्ट्राध्यक्ष पदाचेर चड तेंप कोणच तिगूंक शकलोना. पूण १९३३त जनरल तिबूसिओ कारियास हो राश्ट्राध्यक्ष जाल्याउपरांत तो सोळा वर्सां त्या पदाचेर तिगून उरलो. कारियास हाणें हुकूमशाय पद्दतीन राजवट चलयली. ताका सत्तेभायरो करपाखातीर खूब उठाव जाले. पूण कारियासान ते मोडून उडयले. १९४८त ताणें अध्यक्ष पदाक सोडचीट दिली. उपरांत राजकीय स्थिती परतून हिंसक स्वरुपाची जाली. पूण १९५७त रामोन विलेडा मोराल्स राश्ट्राध्यक्ष जाल्या उपरांत, ताणें राजकीय मळार कांय प्रमाणांत स्थिरता हाडून साबार शाळा, हॉस्पिटलां आनी रस्ते बांदले. १९६३त कोलोनल ओस्वाल्डो लोपेझ हाच्या फुडारपणाखाल सैमिकी उठाव जावन ताणें विडेला सरकार मोडून उडयलें. उपरांत वेंचून काडिल्ले समितीन नवें संविधान बरोवन लोपेझाक राश्ट्राध्यक्ष केलो. १९७१तले वेंचणुकेंत लोकांनी रामोन अर्नेस्टो क्रूझ हाका राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून काडलो. पूण १८७२त सैमीकी उठाव जावन लॉपेझ हो परतून राश्ट्राध्यक्ष जालो.

होन्डूरसाच्या १९६९च्या जमीन सुदारणा कायद्याक लागून होन्डूरसांत रावपी साबार एल् साल्वादोरच्या लोकांक आपल्या देशांत वचचें पडलें. हाका लागून जुलय १९६९त साल्वादोरचें सैन्य होन्डूरसांत रिगलें. १९७०त अमेरिका आनी खंडांतल्या हेर देशांचे मध्यस्थीन होन्डूरस आनी एल् साल्वादोरचो शिमे प्रश्न सोडयलो.

१९७५त लांच प्रकरणावयल्यान होन्डूरसाच्या सैन्यान लोपेझाक सत्तेभायरो केलो. ताचे सुवातेर कोलोनेल अल्बेर्टो कास्ट्रो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९७८त आल्बेर्टो हाकाय काडून उडयलो. १९८१त

भौशिक वेंचणूक घेवन रोबेर्टो सुआझो कोरदोवा हाका राश्ट्राध्यक्ष म्हूण वेंचून काडलो. ताचे उपरांत १९८५त जोसे आझाकोना होयो राश्ट्राध्यक्ष जालो. १९८० सावन निकाराग्वांतल्या विद्रोह्यांनी होन्डूरसांत शरण घेवन थंयच्यान निकाराग्वांतल्या सांदीनिस्ता सरकाराआड झूज उबारिल्लें. हीं झगडीं सुमार धा वर्सां चालूच आशिल्लीं. १९९०चे वेंचणुकेंत सांदीनिस्ता सरकार गडगडलें, तेन्ना होन्डूरसांत शरण घेतिल्ले विद्रोही परत निकाराग्वांत गेले. देशाचो राज्यकारभार १९८२त आपणायल्ल्या कायद्याप्रमाण चलता. राश्ट्राध्यक्ष आनी विधिमंडळ भौशिक मतदानान वेंचून काडटात. कॅबिनेट नेमणूक करपाचे हक्क राश्ट्राध्यक्षाक दिल्यात. होन्डूरसाच्या राजकारभारांत सैन्याक चड म्हत्त्व आसा.

**अर्थवेवस्था :** अर्थीक मळार होन्डूरस हो लॅटीन अमेरिकेंतलो सगळयांत फाटसार देश. शेतवड हो देशांतलो चड म्हत्त्वाचो वेवसाय. देशांतले अर्दावयर लोक शेतवडींत वावूरतात. देशाक चडशी येणावळ केळीं आनी काफी निर्यातीसावन मेळटा. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक केळयांचो उद्देग अमेरिकी कंपन्यांनी सुरू केल्लो. त्या उद्देगांत तांणीं व्हड गुंतवणूक केल्ली. पूण सद्या हो उद्देग होन्डूरन कंपन्यांनी घेतला. मको हें होन्डूरी लोकांचें मुखेल अन्न मक्याचे पिकावळीखाला हेर पिकावळीपरस चड जमीन आसा. चवळी, कापूस, ऊंस आनी तंबाकू हांचींय पिकां कांय प्रमाणांत घेतात. सद्या गोरवां पोसपाच्या वेवसायाकय म्हत्त्व फाव जालां. नुस्तें, मदेर आनी मांस हांचीय कांय प्रमाणांत निर्यात जाता.

वट्ट कामगारांतले सुमार तिसरो वांटो कामगार सर्वीस उद्देगांत वावुरतात. घाऊक (Wholesale) आनी किरकोळ वेव्हार हो देशांतलो मुखेल सर्वीस उद्देग. देशांतलो म्हत्त्वाचो वेपार म्हळयार शेतकी म्हालाची वेगवेगळया सुवातींचेर पुरवण करप. निर्मिती उद्देगांत वट्ट कामगारांतले फक्त सातवो वांटो कामगार वावुरतात. निर्मिती उद्देगांत अन्न प्रक्रिया, सोरो आनी शितपेय, कपडो, कागद हांचो आस्पाव जाता.

येरादारीच्या मळारय हो देश फाटींच आसा. डांबरी रस्ते खूब उणे फक्त २% लोकांकडेन मोटारी आसात. शारांतले चडशे लोक बसींनी जाल्यार गांवगिन्या वाठारांतले चडशे लोक टांग्यांनी यो वच करतात. होन्डूरान रेल्वे मुखेलपणान फळ कंपन्यो चलयतात. तेगुसिगाल्पा आनी सान पेद्रो सुला ह्या शारांत आंतरराश्ट्रीय विमानतळ आसात. देशांत स दिसाळीं उजवाडा येतात. तातुंतलें 'ला त्रिबूना' हें चड म्हत्त्वाचें. चडशीं रेडिओ आनी दुरचित्रवाणी केंद्रां खाजगी मालकेचीं. तेगुसिगाल्पा आनी सान पेद्रो सुला शारांतल्या सगळया टेलीफोन मार्गांचेर सरकारी नियंत्रण, जाल्यार केळीं उत्पादन भागांत फळ कंपन्यांचें नियंत्रण आसा.

**समाजजीण :** होन्डूरसांतले ९५% वयर लोक 'मिस्तिझोस' (स्पेनिश आनी रेड इंडियन हांची भरसण) आसत. सगळें मिस्तिझोस स्पेनिश भास उलयतात. ते रोमन कॅथलीक धर्मीय. उत्तरेकडच्या केळीं उत्पादन वाठारांनी वेव्हाराखातीर इंग्लीश भाशेचो वापर करतात. होन्डूरसाचे आग्नेयेक सुमार २०,००० मिस्कितो इंडियनांचो राबितो आसात. हो समाज थळावे इंडियन, खाप्री आनी हेर लोकांची भरसण जावन तयार जाला. गारिफ्युना हे लोक देशाच्या वायव्य भागांत रावतात. ही जात सेंट विंसेंट ह्या कॅरिबी जुंव्यावयल्या खाप्री आनी आरावाक इंडियन हांची भरसण जावन तयार जाल्या. १७९७त सेंट विंसेंट जुंव्यावयल्या ब्रिटीश अधिकाऱ्यांनी ह्या विद्रोही लोकांक होन्डूरस जुंव्याचेर हाडून सोडिल्ले. गारिफ्युना लोक चडकरून आरावाक भास उलयतात. ते स्पेनिश आनी इंग्लीश भाशेचोय वापर करतात होन्डूरसाचे उत्तरेकडच्या बे जुंव्याचेर इंग्लीश भास उलोवपी प्रोटेस्टंट पंथीय लोक रावतात. हे लोक गारिफ्युना, इंग्लीश आनी खाप्री लोकांची भरसण जावन तयार जाल्यात. देशांतले सुमार ६०% लोक गांवगिन्या वाठारांनी रावतात. हातूंत मुखेलपणान गरीब शेतकामत्यांचो आस्पाव जाता. ते मातयेच्या घरांनी रावतात.

शिक्षणीक मळारय हो देश खूब फाटीं आसा. देशांतले सुमार अदर्यावयर लोक अशिक्षीत. कायद्यान सात ते बारा वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांक शिक्षण सक्तीचें आसा. पूण ह्या कायद्याचें पालन जायना. गांवगिन्या वाठारांनी शाळांची संख्या खूब उणी आसा. देशांत एकच विश्वविद्यालय आसा. तशेंच शेतकी, विज्ञान आनी थळावे संस्कृतायेक प्रोत्साहन वा फाटबळ दिवपाखातीर खाशेलीं विद्यापिठां उबारल्यांत.

- कों. वि. सं. मं.

**होमरूल चळवळ :** होमरूल हाचो शब्दश : अर्थ स्वराज्य असो जाता. इ.स. १८८५ वर्सा सावन चलिल्ल्या इंग्लिशांआडच्या भारताच्या स्वातंत्र्यसंग्रामांतल्या बऱ्याचशा ल्हान - व्हड सनदशीर आनी शांतीकायेच्या आंदोलनांतलीच एक म्हणजे होमरूल चळवळ. ही चळवळ सुरू जावन दोन वर्सांतच सोंपली. ब्रिटीश द्वीपसमूहांत आयर्लंड हें ग्रेट ब्रिटनांत म्हळयार इंग्लंड, स्कॉटलंड, वेल्स आनी आयर्लंड हांच्या संयुक्त राश्ट्र राज्यांत रावपाक केन्नाच तयार नाशिल्लें. आयर्लंडची म्हळयार प्रत्यक्षांत फकत उत्तर आयर्लंडचीच स्वतंत्र राश्ट्राची मागणी 'होमरूल' आंदोलन म्हणून नामनेक पाविल्ली. ॲनी बेझंट ही धार्मिक आनी सामाजिक स्वरुपाचें कार्य करपी आंग्लदेशीय विदुशी इ. स. १८९३ वर्सासावन भारतांत स्थायिक जाल्ली. इ.स. १९०८ ते १९१३ ह्या काळांत तिणें जायते खेपे इंग्लंडाक भेट दिली. थंय आयर्लंडची होमरूल चळवळ तिणें लागींच्यान पळयली आनी तेच पद्धतीचेर भारतीय स्वातंत्र्याखातीर लढो संघटित करपाचो अशें थारावन इ.स. १९१६ वर्सा तिणें होमरूल लीगाची स्थापणूक केली.

ही चळवळ इ.स. १९१८ वर्सा सुरू जाली. पयलें म्हाझूज

सुरू आसतनाच ॲनी बेझंट हिणें होमरूलाची मागणी केली. म्हाझुजांतल्या भारतीयांच्या सहभागान तिच्यांत नव्यो आशा निर्माण जाल्ल्यो, नवो धीर आयिल्लो. आपुणूय झुजून, जैत मेळोवंक शकता ह्या प्रत्ययाक लागून तांच्यांतलो न्यूनगंड उणो जावन नवो आत्मविश्वास निर्माण जाल्लो. ॲनी बेझंट हिच्या कार्याक लोकमान्य टिळकान तेंको दिल्ल्यान भारतांतल्या ह्या राजकीय आंदोलनाक एकदम गती आयली. लोकमान्य टिळकान पुण्यांत २८ एप्रिल १९१६ दिसा इंडियन होमरूलाचें कार्य सुरू केलें.

टिळकाच्या लीगाचें कार्य महाराष्ट्र आनी मध्यप्रांतापुरतें आनी बेझंट हिच्या लीगाचें कार्य उरिल्ल्या भारतांत चलोवचें अशें थारील्लें. चेन्नई प्रांतांत ही चळवळ खुबूच फळफळ्ळी. ॲनी बेझंट ही थिऑसॉफिस्ट आशिल्ल्यान भारतांत जंय जंय थिऑसॉफिस्ट समाजांची स्थापणूक जाली थंय थंय होमरूल लीगाच्यो शाखो सुरू जावंक लागल्यो. विद्यार्थी वर्गांत ह्या आंदोलनाविशीं खूब ओड निर्माण जाली. होमरूलाचे मागणेखातीर सगळ्याक सभा जावंक लागल्यो. आंदोलन खूब खर जाता अशें दिसतकच चेन्नई सरकारान ॲनी बेझंट आनी तांचे दोन वांगडी वाडिया आनी अरूडेल हांकां बंदखणींत उडयले, पूण लोकमान्य टिळकाक अटक करपाबदला ताचेकडल्यान धा - धा हजार रुपयांचें वैयक्तिक हमीपत्र घेतलें. पूण मुंबय उच्च न्यायालयान हे सरकारी हुकूम अवैध थारायले. चेन्नई सरकारानूय रोकडेंच ॲनी बेझंट आनी तिच्या वांगड्यांक सोडले.

१७ जानेवारी १९१७ दिसा भारत सरकाराच्या गृहमंत्र्यान एक गोपनीय अहवाल ब्रिटीश सरकाराक धाडलो. त्या अहवालांत म्हणिल्लें, टिळक आनी ॲनी बेझंट हांकां सद्या लोकांचो खूब तेंको आसा. त्या मानान मवाळ पंगड कुशीक पडला. तेन्ना तांणीं लोकप्रियता वाडोवपाखातीर राजकीय सुदारणा करप गरजेचें. व्हॉईसरॉयानूय सुदारणांविशीं आग्रह धरील्लो. टिळकाच्या होमरूल लीगाचे पयल्या वर्साच चवदा हजार सभासद जाले आनी रोकडीच ही संख्या तीस हजारांचेर गेली. इ.स. १९१८ वर्सा ब्रिटीश मजूर पक्षान भारताची होमरूलाची मागणी मान्य करची अशे तरेचो थाराव संमत केलो. होमरूलाचे म्हळयार ॲनी बेझंट हिणें केल्ले मागणेंत, ग्रामपंचायती, नगरपालिका, जिल्हापरिशद, प्रांतिक शासन आनी राश्ट्रीय शासन ह्या सगळ्या थरांचेर स्वायत्तता मागिल्ली. पुराय स्वराज्य जाय, पूण ब्रिटीश साम्राज्याचें एक घटक राश्ट्र म्हणून रावपाक तयार आसा अशें उतर ब्रिटीश सरकाराक दिल्लें. साम्राज्यांतलीं सगळींच राश्ट्रां स्वायत्त आसचीं, त्या सगळ्यांची मेळून एक व्हड लोकसभा आसची आनी तातूंत भारताक इंग्लंडासकट हेर सगळ्या राश्ट्रांवांगडा समानतेच्या तत्त्वाचेर प्रतिनिधित्व मेळचें अशें ॲनी बेझंट हिणें आपले मागणेचें स्वरूप स्पश्ट केल्लें. इ.स. १९१७ च्या ऑगस्ट म्हयन्यांत भारतमंत्री मॉंटेग्यू हाणें भारताक पांवड्या पांवड्यान स्वातंत्र्य दिवपाचो ब्रिटीश सरकाराचो हेत जाहीर केलो आनी भारतीय फुडाऱ्यांकडे विचारविनिमय करपाखातीर तो भारतांत आयलो. तेन्नाच भारतीय राश्ट्रीय कॉंग्रेसीन ॲनी बेझंट हिका अध्यक्ष म्हणून वेंचून काडली. ह्या दोनय कारणांक लागून होमरूल चळवळ थंडावली. इ.स. १९२० वर्सा लोकमान्य टिळकाक मरण आयलें. तोमेरेन महात्मा गांधीच्या फुडारपणाखाल स्वातंत्र्य आंदोलनाक नवें मोडण लागतालें. तेरवातीर होमरूल आंदोलन सोंपलें.

- कों. वि. सं. मं.

**होमिओपथी :** (पळेयात परिशिश्ट).

**होळकर, अहिल्याबाई :** (जल्म : इ.स. १७२५, चोंडी, बीड जिल्हो, महाराष्ट्र; मरण : इ.स. ऑगस्ट १७९५).

मराठ्यांच्या इतिहासांतली एक म्हान बायल. तिच्या बापायचें नांव माणकोजी शिंदे. दो जातीन धनगर आशिल्लो. गांवची पाटीलकी ताचेकडे आशिल्ली. इ.स. १७३३ वर्सा पिरायेच्या आठव्या वर्सा, सुभेदार मल्हारराव होळकर हाचो पूत खंडेराव हाचेवांगडा तिचें लग्न जालें. स्वामिभक्त, उदार आनी धार्मिक वृत्तीचो मल्हारराव स्वकर्तृत्वान माळव्याचो सुभेदार जाल्लो. असो हो माव आनी धर्मिक करारी वर्तनाची माय गौतमाबाई हांच्या सहवासांत अहिल्याबाईचें व्यक्तिमत्व फुलत गेलें. तिका बाळबोध वाचन आनी मोडी लिखाण हांचें शिक्षण दिल्लें. अहिल्याबाईक घोवाचें सूख चडशें मेळ्ळेंना. तिचो घोव खंडेराव हो व्यसनी आशिल्लो. तशेंच ताका शिकारेचो नाद आशिल्लो. अहिल्याबाईक एक पूत आनी एक धूव. पूताचें नांव मालेराव आनी धुवेचें नांव मुक्ताबाई आशिल्लें. इ.स. १७५४ वर्सा सुरजमल जाटावांगडा कुंभेरी हांगा जाल्ल्या झुजांत खंडेरावाक गुळी लागून मरण आयलें. ताच्यो हेर बायलो ताच्या वांगडा सती गेल्यो. पूण मावान अहिल्याबाईक सती वचपाक दिलीना.



मल्हारराव खूबदां पेशव्यांबरोबर मोहिमांनी उरतालो तेन्ना अहिल्याबाई घरचीं आनी दौलतीचीं कामां पळयताली. इ.स. १७६६ वर्सा मल्हाररावाक मरण येतकच अहिल्याबाईचेर व्हड आघात जालो. ताणें पेशव्यांकडल्यान इंदोर संस्थानाची जहागिरी मेळयल्ली. मल्हाररावा उपरांत मालेरावाक पेशव्यांकडल्यान रीतसर सरदारकी मेळ्ळी पूण तो व्यसनी आनी पिशांतूर आशिल्ल्यान ताणें फक्त आठ-धा म्हयने

कारभार केलो आनी पिरायेच्या बाविसाव्या वर्सा ताका मरण आयलें. ताका लागून अहिल्याबाईक खूब जालें. उपरांत तिणें तुकोजी होळकर नांवाच्या एका सोयऱ्याक मल्हाररावाचे बायलेचे मांडयेर पोसको दिवन ताचेकडे फौजेची आनी मोहिमांची जापसालकी सोंपयली. ती स्वता खाजगी आनी दौलतीचो कारभार पळोवंक लागली. इंदोर सावन लागसारच नर्मदाचे देगेर महेश्वर हांगा तिणें आपली. राजधानी केली आनी थंयच रावन ती राज्यकारभार करूंक लागली. तेन्ना दरबारांतलो पोरनो दिवाण गंगोबा तात्या हाणें अहिल्याबाईक, आपल्याक पोसको घेवन कारभार आपल्याकडे सोंपय म्हूण खूब विनवणी केली. पूण ती बधना तें पळोवन ताणें राघोबादादाकडे संधान सादलें आनी ताका इंदोराचेर घुरी घालून दोलत बळकावपाची विनवणी केली.

तेप्रमाण राघोबादादान आपली तयारी केली. ह्या कारस्थानाचो वास अहिल्याबाईक लागनाफुडें तिणें राघोबाचे घुरयेक तोंड दिवपाची तयारी केली. भोसले, गायकवाड, दाभाडे आनी शिंदे हांकां तिणें आपल्याक आदार करपाविशीं गुपीत पत्रां धाडलीं आनी पुण्याक जासूद धाडून माधवराव पेशव्याकडे दाद मागली. पेशव्यानय तिका बिनधास्तपणान पारिपत्य करपाविशीं निरोप धाडलो.

अहिल्याबाई झूजची ना. ती कबलात करून खंडणी दितली अशी राघोबाची कल्पना आशिल्ली. पूण जेन्ना ती झुजाक तयार आशिल्ल्याचें राघोबाक समजलें तेन्ना तिची तयारी, हिंमत आनी दावपेच पळोवन ताका अजाप जालें. चढाई केली जाल्यार होळकरांकडल्यान खर विरोध जातलो वा हार लेगीत मानची पडटली. बायल मनशेकडल्यान हार घेवप हाचे सारकी लज ना. अशे स्थितींत झूज टाळून मान राखचो हेंच बरें असो विचार करून राघोबान सामोपचाराचीं उलोवणीं केलीं. उपरांत राघोबा इंदोराक अहिल्याबाईक मेळपाक गेलो. अशे तरेन धीरान आनी मुत्सद्देगिरीन रोघोबाचेर तिणें जैत जोडलें. हाका लागून तिका खूब नामना मेळळी. पेशवे, शिंदें, मोगल, निजाम हांचेर तिचे कर्तबगारीची छाप बसली. अहिल्याबाईन सुमार अठ्ठावीस वर्सां कारभार केलो.

अहिल्याबाईन मावाच्या वेळच्या बऱ्याचशा कायद्यांनी सुदारणा केल्यो. फौजेच्या बळग्याचेर तिणें रामपुऱ्याचे आनी चंद्रावतांचे (राजपुतांचें) बंड मोडून काडलें. पेशव्याचेर तिची खूब निश्ठा आशिल्ली. हेर राज्यांकडेय तिचे बरे संबंद आशिल्ले. अहिल्याबाईन भरपूर दानधर्म केलो. देव, ब्राह्मण आनी गाय ह्यो तीन गजाली तिका खूब पूज्य आशिल्ल्यो. तिका पांडित्याची आनी पंडितांची कदर आशिल्ली. विद्वान, पंडित, ज्योतिशी, वैद्य, कीर्तन - प्रवचनकार, कलाकार हांचो ती सदांच पाहुणचार, आदरसत्कार करताली.

तिणें बांदिल्लीं देवळां, देवळांचे जीर्णोद्वार, घाट, धर्मशाळा, बांयो आनी अन्नछत्रांक लागून भारतभर अहिल्याबाईंचें नांव घेवप जाता. जंय जंय तीर्थ आनी क्षेत्र आसा थंय तिची याद स्मृती आसा. काशी, गया आनी सारटी सोमनाथ हांगाच्या देवळांचो तिणें जीर्णोध्दार केलो. बारा ज्योतिर्लिंगांक, उपरांत सप्तपुऱ्यो आनी चार धामांक तिणें द्रव्यदान केलें. अयोध्या, मथुरा, हरद्वार, काशी, कांची, अवंती, द्वारका ह्यो सप्तपुऱ्यो आनी बदरीनारायण, द्वारका, रामेश्वर, जगन्नाथपुरी हीं चार धामां हांगा देवळां, घाट, अन्नछत्रां, धर्मशाळा तिणें बांदल्यो आनी यात्रेकरूंची सोय केली. तिचे यादीक तुकोजीचो अनौरस पूत श्रीमंत यशवंतराव होळकर हाणें इ.स. १७९९ वर्सा महेश्वर नगरांत घाट बांदलो आनी अहिलेश्वर नांवाचें व्हड देवूळ बांदलें.

- कों. वि. सं. मं.

**होळी :** एक लोकोत्सव. हाका उत्तरेंत होरी, महाराष्ट्रांत होळी वा शिमगा आनी कोंकण - गोंयांत शिगमो अशीं नांवां आसात. *देशीनाममालेंत हेमचंद्रान ह्या उत्सवाक 'सुगिम्हअ' म्हणजे 'सुग्रीष्मक'* अशें नांव् दिलें. ह्या नांवापसूनच कोंकण - गोंयांतल्या मराठींत 'शिगमो' हें उत्तर सिध्द जालां आनी महाराष्ट्रांत हेर भागांत वर्णविपर्यान शिमगा अशें ताचें रूप चालींत आयलें अशें जाणकारांचें मत आसा.

फाल्गुनी पुनवेपसून पंचममेरेन पांच ते स दिसांभितर देशाप्रमाण कांयकडे दोन दीस तर कांयकडे पांच दीस हो उत्सव मनयतात. ह्या उत्सवांत होलिका दहनाचें वा होळी पेटोवपाचें मुखेल विधान आसता. ह्या होळी पेटोवपाचे परंपरेची सुरवात होलिका वा होलाका, ढूंढा, पुतना हांच्यासारक्या ल्हान भुरग्यांक पिडा दिवपी राक्षसिणींच्या दहनाच्या पुराणोक्त कथांत आसूं येता वा मदनदहनाच्या कथेंतय ती आसपाक शकता. कांय विद्वानांच्या मतान हो पुर्विल्ल्या अग्निपुजकांचे परंपरेचो अवशिश्ट आविश्कार आसुंये.

ह्या उत्सवाचो धार्मिक विधीविधान अशें भद्रा नाशिल्ल्या फाल्गुनी पुनवेच्या सांजे व्रत करप्यान शास्त्रपूत मार्गान होळी पेटोवची. होळी मात दिसाची पेटोवची न्हय. कर्त्यान पयलीं शुचिर्भूत जावन आनी देशकालाचो उच्चार करून *'सकुटूम्बस्य मम ढुष्ढाराक्षसी प्रीत्यर्थं तत्पीडापरिहारार्थं होलिका पूजनमहं करिष्ये ।'* असो संकल्प करचो. मागीर लांकडां, कापट्यो, शेणयो हांची रास करून तातूंत एरंड वा तसल्याच कसल्याय झाडाची खांदी उबी करची. उपरांत *'श्रीहोलिकायै : नमः'* असो प्रणाम मंत्र म्हणून होळयेची शोडशोपचार पुजा करची आनी मागणें करचें. ताचेउपरांत होळयेक तीन प्रदक्षिणां घालच्यो आनी बोब मारून हळशिकावणीं उतरां म्हणचीं, नाचचें आनी गावचें.

भविष्यपुराणांत ह्या सणाची कथा दिल्ली आसा ती अशी -

पयली *ढुंढा वा ढौंढा* नांवाची एक राक्षसी गांवांत येवन ल्हान भुरग्यांक पिडापीड करताली. तेन्ना लोकांनी तिका बुरश्यो गाळी आनी शाप दिवन, सगळ्याक उजो पेटयलो आनी तिका भिसडायली. अशेतरेन तांणी तिका धांवडायली. ह्या उत्सवाचें लौकिक विधिविधान अशें -

होळी पुनवेचे पयलीं येवपी पुनवेच्या (म्हणजे माघी पुनवेच्या) दिसा गांवाच्या मदेगाक वा नाक्याचेर एक एरंडाची खांदी पुरून होळयेची म्हूर्तम्हेड रोयतात. हे पुनवेक दांडीपुनव अशेंय म्हण्टात. उपरांत फाल्गुन शुध्द पंचमीपसून होळये खातीर लांकडां, शेणकुटां एकठांय करपाक सुरवात जाता. लांकडां - शेणकुटां चोरून हाडचीं असो समज आसा. होळी पेटोवपाखातीर लागपी उजो चांडाल जातीच्या एकाद्र्या मनशाकडच्यान वा ल्हान भुरग्याकडच्यान हाडचो अशें सांगलां. होळी पेटल्या उपरांत गांवाभायर वचून वा गांव व्हड आसल्यार ताच्या गल्ली गल्लीनीं, गटांनी भोंवन, वाद्यां वाजयत, बुरशो गाळी मारीत आनी बुरशीं पदां म्हणत, नाच करत दिसाचो सगळो वेळ सारपाचो. ह्या वेळार खंय खंय दानां करपाचीय प्रथा आसा. पुराय होळी जळळया उपरांत ती दूद वा तूप शिंपडावन शांत करची आनी जमिल्ल्या लोकांक नाल्ल, अनस सारकिल्लीं फळां वांटचीं. त्या दिसाची सगळी रात नाचून आनी गावन सारची. दुसऱ्या दिसा सकाळीं खूब हळशिकावणें उलोवन होळयेचो गोबर विसर्जीत करचो. कांय जाग्यांनी हो गोबर आनी शेण, चिखल आंगाक मारवून नाचप-गावप करपाचीय चाल आसा. ह्या दिसा चांडालाक स्पर्श करपाचो मुखेल विधी शास्त्रांत सांगिल्लो आसा.

पयलीं हो सण चडकरून लौकिक पातळेवयलोच आसुंये. कालांतरान तातूंत उच्च संस्कृतीच्या लोकांकडल्यान कितल्याय धार्मिक आनी सांस्कृतिक विधीविधानांची भर पडली तरीय ह्या सणाचें लौकीक स्वरूप मातय ना जालें ना हें आयज होळयेचें सगळेकडेन प्रचलित आशिल्लें स्वरूप पळयतकच जाणवता.

आयच्या होळयेच्या उत्सवांत जायत्यो तरा आस्पाविल्ल्यो आसात. होलिकोत्सव, धुलिकोत्सव आनी रंगोत्सव ह्यो तीन तरा तर सहजतायेन दिसतात. होळी, धुळवड आनी रंगपंचमी हीं तांचीं वळखिचीं नांवां. भारताच्या वेगवेगळया वाठारांनी ह्या तीनय प्रकारांची होळी मनयतात. तशेंच प्रांताप्रमाणय तिचे वेगवेगळे अविश्कार जातात.

फाल्गुन शुध्द चतुर्दशीक बंगालांत दोलायात्रा नांवाच्या उत्सवाक सुरवात जाता. त्या दिसा घरांतलो यजमान उपाशीं रावन सकाळीं कृष्णाची आनी सांजेची अग्नीची पुजा करता. पुजा सोंपल्या उपरांत कृष्णमुर्तीचेर फल्गू म्हळयार गुलाल उधळावन जमिल्ल्या मनशांचेरय तो उधळटात. उपरांत घराभायर एक व्हडली तणाची मनशाची आकृती करून लासतात. हीच थंयची होळी. पूण बंगालांतल्या कांय जातींनी मात महाराष्ट्राप्रमाण सगळया तरांचीं धुमशेणां चलतात. तो उत्सव फाल्गुन शुध्द त्रयोदशीपसून पुनवेमेरेन चलता. पुनवे दिसा कृष्णमुर्ती झोपाळयाचेर वा पाळण्यांत दवरून तिका झोकड्यो काडटात. बंगालांतल्या खेड्यांनी जाल्यार हो उत्सव भौशिक स्वरुपांत मनयतात.

ओडिसा प्रदेशांत होळी जायना. फकत दोलोत्सव जाता. थंयचे चैतन्यपंथी लोक कृष्णमूर्तीची पालखेंतल्यान घरान घर मिरवणूक व्हरतात. दर घरांत कृष्णमूर्तीक अत्तर लावन गुलाल उधळटात. तशेंच तांकां वस्त्रप्रावरणां आनी दक्षणां दितात. कांय जाग्यांचेर गोप लोक आपल्याभितरल्या एकट्याक कृष्णाचो भेस करतात आनी ताचे भोंवतणीं टिपऱ्यांचो नाच करतात.

उत्तर प्रदेशांत फाल्गुन शुध्द पंचमीपसून पुनवेमेरेन तांबडे - हळदुवे कपडे घालून गुलाल उधळायत आनी पदां म्हणत लोक कालक्रमणा करतात. पुनवेच्या दिसा नाक्याचेर होळी पुजनाचो आनी दहनाचो सुवाळो जाता.

महाराष्ट्रांत कांय सुवातींनी हो उत्सव फाल्गुन शुध्द नवमी पसून पुनवेमेरेन जाल्यार कांय कडे पुनव ते उमास ह्या काळांत जाता. आंबो, माड, माडी, एरंड सारकिल्ल्या झाडांचें वा खांदयांचें दहन करपाची चाल आसा. होळयेक पुरण पोळयेचो निवेद्य लागता. होळयेच्या निमतान पयलीं एकामेकांच्या आंगाचेर अश्लीलता सूचक उतरांचे वा चित्रांचे ठशे काडपाची, तमाशाचे फड गाजोवपाची, कॉफी, भांग, सोरो, अफू हांच्यासारकीं उत्तेजक पेयां आनी द्रव्यां घेवन हळशीकावणें आनी अर्वाच्य पदां म्हणपाची वा गाळी मारपाची चाल सगळेकडेन आशिल्ली. तशेंच होळयेकडेन बसून गंजीका,इस्पीक वा सोंगाट्योय (पगांचो खेळ) खेळटाले. होळयेच्या दुसऱ्या दिसा होळयेचेरच तापयल्ल्या उदकान न्हाताले. मागीर होळयेची पुजा करून, गोड-धोड जेवण करताले आनी देवाचे भेटेक वताले.

गोंयांत गांवागांवानी ग्रामदेवतेच्या देवळाफुडें होळी उबी करतात. तेंखातीर कांय दीस पयलींच एक झाड पळोवन दवरतात. होळयेच्या राती गांवकरी ढोलकें वाजयत त्या झाडाकडेन वतात. झाडाची पुजा करून तें कापतात आनी सुमार १५-२० हातांचो उबो कुडको खांद्यार घेवन गांवकरी नाचयत देवळाकडेन येतात. थंय एका फोणकुलांत तो झाडाचो तोणको उबो करतात. ताका आंब्याच्या पानांनी नटयतात. ताच्या एका तोंकाक नाल्ल दवरतात आनी ताच्या फुड्यांत एक कागदाचो झेंडो लायतात. मागीर होळयेक हळद-कुंकूम लायतात आनी नाल्ल फोडटात. तेन्नाच जें कितें हळशिकावणें उलोवपाचें आसता तें उलयतात.

हें हळशिकावणें उलोवपाफाटलो उलगडो असो करूं येता -

फाल्गुन शुध्द १५क पुर्वा फाल्गुनी नखेत्र येता. त्या नखेत्राची देवता भग. भगा चो रूढ अर्थ आसा जननेंद्रिय, म्हणजेच बायलेचें इंद्रीय. तेन्ना भगाच्या नांवान अश्लील उलोवप ही एक पुजाच. तो ते देवतेचो सन्मान जावन आसा.

गोंयांत होळयेच्या निमतान वेगवेगळया तरेचीं सवंगां येतात. 'खेळये' येतात आनी मागीर राधानाच जाता.

मद्रासांत शिवालया मुखार पेटयतात. हो मदन दहनाचोच प्रकार आसुंये.

- कों. वि. सं. मं.

**ह्यूम, अॅलन ऑक्टावियन :** (जल्म : ६ जून १८२९, मॉंटेरॉस, मरण : ३१ जुलय १९१२, लंडन).

भारतांतलो ब्रिटीश प्रशासक आनी भारतीय राश्ट्रीय सभेचो संस्थापक. ताचो बापूय जोसफ ह्यूम एक उग्र राजकारणी आशिल्लो. अॅलन १९४९ त बंगाल प्रांताचे शासकीय सेवेंत भितर सरलो. १८५७तल्या उठावा वेळार ह्यूम इटावा जिल्ह्याचो मॅजिस्ट्रेट म्हूण कारभार पळयतालो. उपरांत वायव्य प्रांतांत तो सरकारी महसूल खात्याचो अधिकारी जालो. १८७० - ७९ मेरेन तो केंद्र सरकारांत कारभारी म्हूण वावूरतालो. पूण नेमाळयांतल्यान तो भारतीय लोकांच्या गाराण्यांक वाचा फोडटा आनी भारतीय लोकांकडेन आशिल्ली ताची कळकळ पळोवन, ब्रिटीश सरकारान ताची परतून प्रांताचो कारभारी म्हूण नेमणूक केली.

ल्हानपणासावनच ह्यूमाक लोककल्याणाची तळमळ आशिल्ली. देखून भारतीय शासकीय सेवेंत ताणें शिक्षण, पोलीस खात्यांतली सुदारणा, सोन्याचो वेपार, भारतीय भाशेंतलीं नेमाळीं, बालगुन्यागार सुदारणा केंद्रां अशा साबार विशयांनी खोलायेन लक्ष घालून तातूंत सुदारणा घडोवन हाडपाखातीर तो वावूरलो. तो प्रशासक म्हूण काम करता आसतना ताणें सुचयल्ल्यो सुदारणा कांय प्रमाणांत सरकारान मान्य करून घेतिल्ल्यो.

शासकीय सेवेंतल्यान १८८२त तो निवृत्त जाल्याउपरांत आपले कल्पनेप्रमाण भारतीयांच्या कल्याणाखातीर स्वतंत्रपणान वावूरपाक लागलो. १८८५त भारतीय राश्ट्रीय सभा (कॉंग्रेस) अस्तित्वांत आयली. उपरांत बावीस वर्सां ताणें कॉंग्रेसचो सचीव म्हूण वावर केलो. सुरवेच्या काळांत कॉंग्रेसचो सचीव म्हूण वावर केलो. सुरवेच्या काळांत कॉंग्रेसीन उदारमतवादी पद्दत आपणायल्ली. पूण उग्र कल्पना वाडत गेली तेन्ना ह्युमाचो कॉंग्रेसीवयलो ताबो गेलो. १९१४त तो भारत सोडून लंडनाक गेलो. थंय 'डलवीच लिबरल संस्थेचो' अध्यक्ष म्हूण ताणें मरसर वावर केलो.

अॅलन ह्यूम हो बरो प्रशासक, समाजसेवक आशिल्लो. तशेंच शेवण्यांसंबंदी म्हायती एकठांय करपाचीय ताका आवड आशिल्ली. 'द गॅम बर्डस् ऑफ इंडिया, बर्मा अँड सिलोन' ह्या शेवण्यांविशीं म्हायती दिवपी पुस्तकाचो तो सह-लेखक आसा. तरेकवार सवण्यांचीं एकठांय केल्लीं पाखां, काती आनी तांतयां उपरांत ताणें ब्रिटीश म्युझियमाक दिलीं. भारतीय राश्ट्रीय कॉंग्रेसचो संस्थापक म्हूण ताका भारतीय इतिहासांत म्हत्त्वाची सुवात आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**ह्यूमन सोसायटी :** समाजशास्त्राचेर आदारिल्लो एक ग्रंथ. हो ग्रंथ किंग्जले डेव्हिस हाणें इ.स. १९५० च्या सुमाराक बरयलो. ह्या ग्रंथावरवीं ताणें मानव समाजाचें स्वरूप, मनीस आनी समाज, मुखेल समुह, मुखेल संस्था, लोकसंख्या आनी समाज, समाजीक परिवर्तन ह्या मुखेल मुद्याचेर आपले विचार मांडिल्ले आसात.

मानवी समाजाचें स्वरूप सांगतना डेव्हिसान मनीस प्राण्याचे संस्कृतीवरवीं मनशाचें वेगळेंपण स्पश्ट केलां. कारण संस्कृतीचें स्वरूप हें मनशाची विचार पद्दत आनी वागणूक हांचेर प्रभाव घालपी आसा. फुडें समाजशास्त्रीय दृश्टीकोन स्पश्ट करतना डेव्हिसान आयच्या समाजामुखावयले व्यापक प्रस्न म्हळ्यार समाजीक रचणूक, समाजीक कार्यां, संघटना आनी कार्य हांचो आशिल्लो संबंद, समाजीक आंतरक्रिया, समाजीक परिवर्तन कशें जाता, ह्या समाजाच्या मूलभूत प्रस्नांचीं उत्तरां तात्त्विक वा धर्मीक आंगान दिनासतना समाजीक आंगान दिवपाचो यत्न केला. तशेंच समाजीक धोरणां थारावपाखातीर समाजाचें गिन्यान मेळोवप गरजेचें आसता आनी हें गिन्यान समाज शास्त्राच्या अभ्यासावरवीं मेळटा. तेचपरी मनशाक स्वताविशींचें आनी समाजाविशींचें सूक्ष्म संवेदन जाणून घेवंक मेळटा.

समाजांतलीं नियंत्रणात्मक नियमनां, दर्जो, कार्यान्वित भुमिका हांचें विवेचन करून तेवरवीं डेव्हिसान समाजीकरण हे प्रक्रियेचें म्हत्व कशें आयलां तें दाखोवन दिलां. समाजीकरणांत स्वत्वाचो विकास हो भाग म्हत्वाचो आसता. समाजापसून पयस राविल्ल्या भुरग्यांचीं उदाहरणां दिवन संस्कारण जाल्ल्यान हीं भुरगीं शारिरीक आनी बौध्दिक नदरेन कमी वाडीचीं कशीं उरलीं हें ताणें स्पश्ट केलां.

समाजाचो अभ्यास करतना समाजांत आशिल्ल्या पंगडाचो अभ्यास करप गरजेचें आसा, ते नदरेन डेव्हिसान प्राथमिक गट, दुय्यम गट, गांवगिरे आनी नागरी गट, जमाव, जनसंपर्क जाती, स्तरव्यवस्था, लग्न आनी कुटूंब आदिंचेर आपले विचार उक्तायल्यात.

फुडें ह्या ग्रंथांत ताणें विज्ञान आनी तंत्रविज्ञान, अर्थीक, राजकीय आनी धर्मसंस्था हांचें विवेचन केल्लें आसा. तंत्रविज्ञान आनी समाज हांचो विचार करतना ताणें तंत्रविज्ञानाचेर प्रभाव आशिल्ल्या अर्थीक आनी राजकीय संस्थांक म्हत्व दिलां. राज्य संस्थेक आशिल्ली सार्वभौम सत्ता, संरक्षणाविशींच्या कार्याची मक्तेदारी हाकालागून गटांची राखण आनी समाजीक नियमनांची अंमलबजावणी हीं म्हत्वाचीं कामां राज्यसंस्था करता. लोकशाही राजकीय संघटना अशेतरेन बांदिल्ली आसता, लोक आपले पसंतीचे शाशनकर्ते वेंचूक शकतात. डेव्हिसान विश्वराज्याची संकल्पनाय प्रतिपादन केल्ली आसा.

धर्मसंस्थेविशींच्या समाजशास्त्रीय दृश्टीकोणांत डेव्हिस हाणें अशें स्पश्ट केलां धर्म हो कांय वैयक्तीक आनी समाजीक म्हत्वाचीं कार्यां करता. धर्म गटांच्या मुल्यांक बळ मेळोवन दिता आनी समाजांतल्या फुटीरपणाचे प्रवृत्तींचेर बंदी घालता.

डेव्हिसाच्या विवेचनांतलो सगळयांत म्हत्वाचो मुद्दो म्हळ्यार समाजीक परिवर्तन. ताच्या मतान समाजीक मूल्यां, वेगवेगळ्या प्रकारच्यो क्रिया, नियमनां, आंतर - क्रिया - प्रक्रिया. हांकांलागून समाजीक

परिवर्तन घडटा. हातुंतल्या एका विभागांतलो बदल ल्हव ल्हव हेर विभागांत जावन परत नवें परिवर्तन जाता.

डेव्हिसान ह्या ग्रंथांत फकत एकाच विचार प्रवाहांचो आग्रो धरीनासतना विसाव्या शतमानांत रूढ आशिल्ल्या समाज शास्त्राविशींच्या विचारांची गांथन केल्ली आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**ळ :** देवनागरी वर्णमाळेंतलें चौतिसावें अक्षर. ह्या वर्णाच्यो तीन अवस्था आसात. हातुंतली पयली आनी दुसरी अवस्था इ.स. च्या दुसऱ्या शतमानांतल्या शक क्षत्रप उषवदांत आनी ताची बायल दक्षमित्रा हांच्या नाशिक हांगाच्या लेखांत दिसून येता. तिसरी अवस्था काकतीय वंशांतल्या राजा गणपती हाच्या काळांतल्या चेब्रोल लेखांत (इ.स. १२१३) मेळटा. जिबेचें मूळ हें ह्या वर्णाचें उच्चारण स्थान आसा.

'ळ'चो विकासक्रम असो -



- कों. वि. सं. मं.

**क्ष :** देवनागरी लिपयेंतलो पस्तिसावो वर्ण. हाच्यो पांच - स अवस्था मेळटात. पयली अवस्था इ. स. च्या दुसऱ्या शतमानांतल्या उषवदांत आनी दक्षमित्रा हांच्या नासिक हांगाच्या लेखांत; दुसरी इ.स. दुसऱ्या शतमानांतल्या शक क्षत्रप रुद्रदामा हाच्या गिरनार हांगाच्या शिलालेखांत; तिसरी इ. स. च्या ४ थ्या शतमानांतल्या गुप्तसम्राट समुद्रगुप्त हाच्या अलाहाबाद हांगाच्या खांब्यावयल्या लेखांत; चवथी इ. स. च्या सव्या शतमानांतल्या 'उष्णीषविजयधारिणी' नांवाच्या ताडपत्री पुस्तकांत; पांचवी मेवाडचो गुहिलवंशी रावळ समरसिंह हाच्या वेळच्या (इ.स. १२७३) चिरवा लेखांत आनी सवी अवस्था त्या उपरांतच्या लेखनांत दिसून येता.

'क्ष'चो विकासक्रम असो -



कामधेनुतंत्रांत हाचें वर्णन केल्लें आसा, तें अशें -
क्षकारं श्रुणु चार्वङगि कुण्डलीत्रयसंयुतम् ।
चतुर्वर्गमयं वर्णं पञ्चदेवमयं सदा ।
पञ्चप्राणात्मकं वर्ण त्रिशक्तिसहितं सदा ।
त्रिबिन्दुसहितं वर्णमात्मादितत्त्व संयुतम् ॥

**अर्थ** - चारूगात्री पार्वती, क्षकार हो कुंडलित्रयान युक्त, चतुवर्गमय, पंचदेवमय, पंचप्राणात्मक, त्रिशक्तिसयत, त्रिबिंदूसयत आनी आत्मादितत्त्वांनी युक्त असो वर्ण आसा.

कंठ हें ताचें उच्चारणस्थान आसा.

- कों. वि. सं. मं.

**क्षुद्रक :** एक पुर्विल्लें गणराज्य. मालव आनी क्षुद्रक ह्या दोन गणराज्यांचो उल्लेख महाभारतांत आयला. ग्रीक लेखकांनी मालवांक मल्लोई आनी क्षुद्रकाक ओक्सिड्काई अशीं नांवां दिल्यांत. ग्रीक लेखक तांकां दानवासुरांचे वंशज मानतात. तांचें गणराज्य बियास आनी सतलज जाल्यार मालवांचें रावी न्हंयेचे देगेचेर आशिल्लें.

क्षुद्रक आनी मालव ह्यो दोन जाती पराक्रमी आसल्याकारणान सदांच तांचे मदीं झुजां जातालीं. ग्रीक राजा सिकंदर हो जेन्ना बियास न्हंयेमेरेन आक्रमण करून झेलम न्हंयेमार्गान परत वचूंक लागलो तेन्ना ह्या गणराज्यांतल्या लोकांनी ताका विरोध केल्ल्यान ताणें मालव गणराज्याचेर घुरी घाली आनी तांचो पराभव केलो. तांची जाल्ली दुर्दशा पळोवन क्षुद्रक लोक ताका शरण आयले.

पूण कर्टियस आनी डियोडोरस हांच्या मतान तें युध्द सिकंदर आनी क्षुद्रक हांचेमदीं जालें आनी क्षुद्रकांनी झूज करून जैत मेळयल्ल्याचो उल्लेख पतंजलीन केला. मालवाप्रमाण क्षुद्रकांनीय सिंकदराकडे झूज केलां.

क्षुद्रक लोक हुशार आशिल्ले. पूण सिंकदराच्या सैनिकांमुखार तांचो तग लागनाशिल्ल्या कारणान क्षुद्रक सिकंदराक शरण गेले.

- कों. वि. सं. मं.

**क्षेत्रपाळ :** एक ग्रामदेव. क्षेत्र म्हळयार शेत आनी तें राखता तो क्षेत्रपाळ. शिवपरिवारांतल्या भैरव श्रेणीच्या दैवतांत ताची गणना जाता.

ऋग्वेदांत ताका 'क्षेत्रस्यपति' म्हळां. वैदिक आर्य पशुपालक अशे भटके अवस्थेंतल्यान मुखार वचून काळांतरान शेत करून स्थिर जाले. त्या काळांत हो देव उत्पन्न जालो, अशें कांय जाणांचें मत आसा. त्यापयलींच तो अस्तित्वांत आशिल्लो अशेंय कांय जाण मानतात. वैदिक ऋषी ताका 'तूं आमचो हितकर्तो आनी आमच्या गाये-घोड्यांचें पोशण कर' अशें प्रार्थितात. शेत नांगरपा पयलीं वा पेरणी करपा पयलीं क्षेत्रपाळाक बळी दिवन संतुश्ट करपाची रीत आयजय शेतकऱ्यां मदीं आसा. हाका खेत्री म्हण्टात.

सुरवेक कृषिदैवत म्हण उत्पन्न जाल्लो हो देव, ताचे गुणधर्म आनी कार्य शैवधर्माक फाव अशें आशिल्ल्यान तो शिवपरिवारांत दाखल जाल्याउपरांत ताच्या वांगडा सुणोय आयलो.

**क्षेत्रपाळाचें वर्णन :** कमराक सोरपाचें वेश्टन, उजव्या

हातांत मुद्‌गार आनी दाव्या हातांत नरकपाल अशो ताच्यो मूर्ती आसतात.

प्रयोगसार ग्रंथांत 'क्षेत्रपाळाची पुजा पयलीं' आनी शिवाक षोडशोपचार अशें सांगलां. ना जाल्यार क्षेत्रपाळ शिवपुजेचें सुकृत ना करून उडयता. जैनूय ताका स्वतंत्र दैवत म्हण मान दितात.

- कों. वि. सं. मं.

**ज्ञ :** देवनागरी लिपयेंतलो छत्तिसावो वर्ण. हाच्यो तीन अवस्था मेळटात. पयली क्षत्रप वंशांतलो राजा रूद्रदामा हाच्या गिरनार शिलालेखांत (इ.स.चें २रें शतमान); दुसरी पयलेचें रुपांतर आनी तिसरी अबुचो परमार राजा धारावर्ष हाच्या काळांतल्या (इ.स. १२०८) ओरिआ लेखांत मेळटा. ज्ञ चे अर्थ (१) विद्वान (२) जिवात्मो (३) बुध आनी (४) ब्रह्मदेव अशे आसात. हाका समासांत येवजिल्लो आसल्यार हाचो अर्थ जाणपी असो जाता. देखीक : सर्वज्ञ, शास्त्रज्ञ.

'ज्ञ'चो विकासक्रम असो -



- कों. वि. सं. मं.

**ज्ञानेश्वर :** (जल्म : इ.स. १२७५ आळंदी; मरण : १२९६ आळंदी).

एक व्हड संत. महाराष्ट्रांतल्या भक्तिपंथाचो तो प्रवर्तक. तशेंच सगुण आनी निर्गुण हांचे एकवटीचें निवेदन करपी भागवत धर्माचो तो प्रचारकय आशिल्लो. ताच्या बापायचें नांव विठ्ठलपंत आनी आवयचें नांव रूक्मिणी. ताच्या भावांचीं नांवां निवृत्तिनाथ आनी सोपानदेव. मुक्ताबाई ही ताची भयण.



पैठणापसून चार कोसांचेर गोदावरीचे उत्तर देगेचेर आशिल्ल्या आपे गांवचे ज्ञानेश्वराचें जाण्टेले कुलकर्णी आशिल्ले. हें घराणें देशस्थ यजुर्वेदी, वत्सगोत्री, माध्यंदिन फांट्याचें आशिल्लें. ह्या घराण्याचो मूळ पुरूश हरिहरपंत. ताचो पूत रामचंद्र, मूळ पुरूश हरिहरपंत. ताचो पूत गोपाळपंत आनी ताचो पूत त्र्यंबकपंत अशे हे पुरूश आपे गांवचें कुलकर्णीपण वंशपरंपरेन चलयताले.

ज्ञानेश्वराचो बापूय विठ्ठलपंत वैराग्यशील आशिल्लो. आळंदीक (अलंकापुरी) येवन तो सिध्देश्वराच्या देवळांत रावलो. तेन्ना थंयच रावपी सिधोपंताचे धुवेकडेन ताचें लग्न जालें. उपरांत दक्षिणेच्यो कांय तीर्थयात्रा करून परत तो आळंदीक आयलो. मागीर कांय तेंप तो आवय - बापायवांगडा आपेगांवांत रावलो आनी परत आळंदीक येवन तो संसारांत घुस्पलो. पूण एक दीस परत एकदां ताचें वैराग्य वयर सरलें. संसाराचो त्याग करून तो काशियात्रेक गेलो आनी थंय वचून ताणें रामानंद स्वामीक फट सांगून संन्यास घेतलो. ताची बायल रूक्मिणीन त्याखातीर खूब शोक केलो.

एकदीस रामानंदस्वामी रूक्मिणीक मेळ्ळो. ताणें तिका 'सौभाग्यवती, पुत्रवती भव' म्हणून आशिर्वाद दिलो. तो आशिर्वाद आयकून ती हांसली. रामानंदस्वामीन तिका हांसपाचें कारण विचारलें तेन्ना तिणें आपलो घोव काशीक वचून संन्याशी जाला म्हणपाचें सांगलें. स्वामीन हे गजालीचो सोद घेतलो तेन्ना ताचो शिश्य चैतन्य होच तिचो घोव म्हणपाचें सांगलें. स्वामीन ताका मुक्त केलो आनी परत गृहस्थाश्रमी जावन संसार करपाक सांगलें. ताचेउपरांत विठ्ठलपंताक निवृत्तिनाथ, ज्ञानेश्वर, सोपानदेव आनी मुक्ताबाई नांवाचीं चार भुरगीं जालीं. तातुंतलो एक म्हणजे ज्ञानेश्वर. पूण संन्याशाचीं भुरगीं म्हणून लोक तांकां हीन लेखपाक लागले.

एक दीस विठ्ठलपंत भुरग्यांवांगडा गिरीप्रदक्षणा घालतालो त्यावेळार निवृत्तीनाथ वाट चुकून एके गुहेंत पावलो. थंय रावपी गहनीनाथान ताका थंय सात दीस दवरून घेतलो आनी महावाक्याचो बोध करून नाथसंप्रदायांत आस्पावन घेतलो. उपरांत श्रीकृष्णाची उपासना दिवन गुहेंतल्यान भायर धाडलो. निवृत्तीनाथान मागीर परत येवन आपल्याक मेळिल्लो ज्ञानोपदेश ज्ञानेश्वराक दिलो आनी तो ताचो गुरू जालो. उपरांत ह्या भुरग्यांच्यो मुंजी करपाक कोणच तयार जायनात म्हणून विठ्ठलपंत दुख्खी जावन प्रयागाक गेलो आनी थंयच्या त्रिवेणी संगमांत ताणें बायलेवांगडा आत्मसमर्पण केलें.

आवय - बापूय ना जाले तें पळोवन भुरगीं भियेलीं. एक दीस ज्ञानेश्वरान निवृत्तीनाथाक पैठणाक वचून मुंजीविशीं ब्राह्मणांचो निर्णय घेवयां म्हणपाचें सुचयलें थंय वतकच थंयच्या ब्राह्मणांक तांची काकळूत दिसली. ताणीं सगळीं शास्त्रां सोदलीं पूण संन्याशाच्या भुरग्यांच्यो मुंजी बांदपाक तांकां खंयच आदार दिसलोना. शेवटाक त्या ब्राह्मणांनी तांकां परमार्थमार्गाक लागून देवाची भक्ती करपाक सांगलें. तेन्ना ज्ञानेश्वराक आपली मूंज केन्नाच जावचीना म्हणपाचें कळळें. आतां फक्त देवाचीच भक्ती करपांत काळ सारप म्हणपाचें ताणें थारायलें.

पूण इतल्यानच तांचो छळ सोंपलोना. एकदीस हीं भावंडां गोदादेगेचेर बशिल्लीं तेन्ना थंय कांय टवाळखोर आयले. लागींच आशिल्ल्या रेड्याक बोट दाखोवन तांणी म्हळें, 'ज्ञानदेवा, तुजें जें नांव तेंच ह्या रेड्याचेंय नांव आसा. तेन्ना तूं आनी तो आमी सारके

समजुंचे?' ताचेर ज्ञानेश्वरान आमी शरीरान वेगळे दिसले तरीय आत्मरुपान एकच आसात म्हणपाचें सांगलें. ताचेर त्या टवाळयांनी ताका रेड्याच्या तोंडांतल्यान वेद वदोवपाक सांगले. ज्ञानेश्वराकय पैठणकारांक चमत्कार दारवोवपाचोच आशिल्लो. तो उठून रेड्याफुड्यांत गेलो आनी ताणें आपलो वरदहात ताचे तकलेर दवरलो. उपरांत तो रेडो ऋग्वेद, यजुर्वेद आनी सामवेद शुध्द, सुस्वर म्हण्टा म्हणपाचें लोकांक आयकुपाक आनी दिसपाक लागलें. हो साक्षात्कार पळोवन पैठणच्या ब्राह्मणाचो गर्व देंवलो आनी तांकां पश्चात्तापय जालो. ताचेउपरांत कांय दीस ते थंयच रावले आनी आपल्या विभूतिमत्त्वाचें तेज दारवोवन तीं थंयच्यान गेलीं थंयच्यान तीं भावंडां नगर जिल्ह्यांत प्रवरा न्हंयेचे देगेचेर वशिल्ल्या नेवासे ह्या गांवांत आयलीं. थंय येतकच ज्ञानेश्वरान मेल्ल्या सच्चिदानंदाक जिवो करपाचो चमत्कार केलो.

मागीर निवृत्तिनाथान ज्ञानेश्वराक सामान्य लोकांक कळपासारकी गीतेचेर टिका बरोवपाक सांगलें. ज्ञानेश्वरान गुरूची आज्ञा मानली आनी थंयच्या शिवाच्या देवळांत बसून ताणें ओवीरुपांत टिका सांगपाक सुरवात केली. हो ग्रंथ ९,००० ओव्यो इतको व्हड जालो आनी तो सगळो सच्चिदानंदान आदरपूर्वक बरोवन घेतलो. ह्या ग्रंथाचें नांव भावार्थदीपिका अशें दवरिल्लें. पूण ज्ञानेश्वरान ताची रचना केली म्हणून ज्ञानेश्वरी ह्याच नांवान तो प्रसिद्द जालो.

ज्ञानेश्वरीच्या रचनेउपरांत ही सगळी मंडळी पंढरपुराक गेली. थंय तांची नामदेवाकडेन भेट जाली. हे भेटीचें पर्यवसान म्हणजे नामदेव ज्ञानेश्वराचो भक्त जालो. थंयच गोरा कुंभार, चोखामेळा, नरहरी सोनार सारकिल्ली संत मंडळी ज्ञानेश्वराच्या भोंवतणी जमली. मागीर नामदेवादी संतांवांगडा ज्ञानेश्वर तीर्थयात्रेक गेलो. तांणी सगळयांनी काशी, प्रयाग सारकिल्ल्यो उत्तरेच्यो तीर्थयात्रा केल्यो. तशेंच ते अस्तंतेक द्वारका, गिरनार ह्या क्षेत्रांतय गेले. मागीर ते परत पंढरपुराक आयले आनी थंयच्यान मागीर आळंदीक येवन थंयच वसती करून रावले.

ज्ञानेश्वराची कीर्त एक फावट तापी न्हंयेचे देगेर रावपी चांगदेवाच्या कानार पडली. ताणें चौदा विद्या आनी चौसश्ट कला प्राप्त करून घेतिल्ल्यो. योगसिध्दीच्या बळाचेर तो चौद्यांशीं वर्सां जगिल्लो. ताका ज्ञानेश्वराची भेट घेवंची अशें दिसलें. ताची भेट घेवंच्याआदीं ताणें ताका एक चीट बरोवपाचें थारायलें. पूण मजकूर कितें बरोवंचो तेंच ताका कळना जालें. शेवटाक ताणें कोरो कागदच ताका धाडून दिलो. तें पळोवन निवृत्तीनाथान ज्ञानेश्वराक चांगदेवाचें सगळें चरित्र सांगलें आनी तेचवांगडा ताका एक चीटय बरोवपाक सांगली. ज्ञानेश्वरान जी चीट ताका बरयल्ली ती चीट आपणें ताच्याच तोंडान आयकुंची म्हणून चांगदेव आपल्या शिश्यगणांवांगडा वागाचेर बसून भायर सरलो. मुखार येवन शिश्यांनी चांगदेव ज्ञानेश्वराचे भेटेक येता म्हणपाचें सांगलें. तेन्ना ज्ञानेश्वर आपल्या भावडांवांगडा एके पडके वण्टीचेर बसून वत घेतालो. निवृत्तिनाथान जेन्ना ज्ञानेश्वराक चांगदेवाच्या मुखार वचपाक जाय म्हळें तेन्ना ज्ञानेश्वरान रोखडीच ती वणत चलयली. आपणें जित्या वागाक चलयलो त्यापरस ज्ञानेश्वरान पडकी वणत चलयली हाचेवयल्यान ज्ञानेश्वर आपल्यापरस कितलो व्हड आसा तें चांगदेवाक कळळें. वागावयल्यान देंवून ताणें ज्ञानेश्वराच्या पांयांकडेन लोटांगण घातलें. तेन्ना ज्ञानेश्वरान ताच्या सगळया आंगावयल्यान हात भोंवडायलो. त्याच खिणाक चांगदेवाच्या काळजांत आत्मज्ञानाचो उदय जालो.

असोच कांय काळ गेल्याउपरांत ज्ञानेश्वराक आपलें जीवितकार्य सोंपलें अशें दिसलें. ताणें जीवत्समाधी घेवपाचें थारायलें तेन्ना ताची पिराय फक्त बावीस वर्सां आशिल्ली. शेवटाक शके १२१८ कार्तिक वद्य तिरोदस ह्या दिसा ताणें सिध्देश्वराच्या देवळालागीं खणून तयार केल्ले जागेंत समाधी घेतली.

ज्ञानेश्वरान भावार्थदीपिका म्हणजे ज्ञानेश्वरी, अमृतानुभव, चांगदेवपासश्टी आनी कांय अभंग इतली ग्रंथरचना केली. तातुंतले हरिपाठाचे अभंग ताचे अभंग गाथेंत आस्पाविल्ले आसात.

**ज्ञानेश्वरी :** गीतेची ओवीबध्द टीका. तिची रचना ज्ञानेश्वरान केली. हो ग्रंथ सुमार णव हजार ओव्यांचो आसा. सामान्य लोकांक संस्कृत भाशेंतली गीता समजना देखून तूं गीतेचेर मराठी टीका बरय अशें सद्‌गुरू निवृत्तिनाथान ज्ञानेश्वराक आदेश दितकच ताणें ही टीका बरयली. तेन्ना ज्ञानेश्वर आनी ताचीं हेर भावंडां प्रवरा न्हंयेचे देगेर नेवासे ह्या गांवांत आशिल्लीं. ज्ञानेश्वरान थंयच्या शिवाच्या देवळांत ज्ञानेश्वरी निरुपणाक सुरवात केली आनी थंयच तो ग्रंथ पुराय केलो. ज्ञानेश्वरान ओवयो सांगल्यो आनी सच्चितानंदान त्यो बरोवन घेतल्यो. अशे तरेन हो ग्रंथ तयार जालो. हो ग्रंथ मराठी भाशेंत आसा. ज्ञानेश्वरी ह्या ग्रंथांत अर्जुनविषाद, अजुनाची शरणागती, देह नाशवंत आनी आत्मो अमर, निश्काम कर्मयोग, स्थितप्रज्ञाची वळखं, अजुनाच्या मनाचो घुस्पागोंदळ, कर्मत्याग, स्वधर्म, ज्ञानमाहात्म्य, संन्यास आनी योग, योगसाधना, योगभ्रश्टाची गती, ज्ञान - विज्ञान, ब्रह्मा - अध्यात्म आनी कर्म, अधिभूत - अधिदैवत आनी अधियज्ञ, दैवी प्रकृतीचे पुरूश, भक्तीचें महाद्वार, ईश्वराचें व्यापकपण, ज्ञानी भक्तांची मेळणी, विश्वरुपाचो अविश्कार, सगुणोपासना, क्षेत्र - क्षेत्रज्ञ, गिन्यानाचीं लक्षणां, ज्ञेय परब्रह्म, प्रकृति - पुरूश, त्रिगुणवर्णन, अव्यभिचारी भक्ती, संसार - अश्वत्थवृक्ष, क्षर - अक्षर आनी पुरूषोत्तम, त्याग आनी संन्यास आनी पराभक्ती सारकिल्ल्या तत्त्वगिन्यानीक विशयांचेर विस्तारीत वर्णन केलां. शेवटाक त्या विश्वरूप प्रभूलागीं आनी हेरांलागीं ज्ञानेश्वर फुडें दिल्ल्या पसायदानावरवीं मागणें करता.

**पसायदान**

आतां विश्वात्मकें देवें । येणें वाग्यज्ञें तोषावें ।
तोषोनि मज द्यावें । पसायदान हें ।।

जे खळांची व्यंकटी सांडो । तया सत्कर्मी रती वाढो ।
भूतां परस्परें पडो । मैत्र जीवाचे ।।
दुरिताचे तिमिर जावो । विश्व स्वधर्मसूर्यें पाहो ।
जो जें वांछिल तो तें लाहो । प्राणि जात ।।
वर्षत सकळमंगळीं । ईश्वरनिष्ठांची मांदियाळी ।
अनवरत भूमंडळी । भेटतु भूतां ।।
चलां कल्पतरूंचे आरव । चेतनाचिंतामणीचे गांव
बोलते जे अर्णव । पीयूषाचे ।।
चंद्रमे जे अलांछन । मार्तंड जे तापहीन ।
ते सर्वांही सदा सज्जन । सोयरे होतु ।।
किंबहुना सर्वसुखीं । पूर्ण होऊनि तिहीं लोकीं ।
भजिजो आदिपुरूखीं । अखंडित ।।
आणि ग्रंथोपजीविये । विशेषीं लोकीं इयें ।
दृष्टा दृष्टविजयें । हो आवें जी ।।
येथ म्हणो विश्वेशरा वो । हा होईल दानपसावो ।
यणें वरें ज्ञानदेवो । सुखिया झाला ।।

- कों. वि. सं. मं.

# परिशिश्ट

**हळद :** हळद ही मसालो वर्गातली एका वनस्पत. Curcuma Longa हें हे वनस्पतीचें शास्त्रीय नांव. झींगेबरेशी ह्या कुटुंबांतली ही वनस्पत. भारत देश हो हळदीचें उगमस्थान. हिंदु धर्मांत हळदीचो उपेग खूब पयलींसावन करतात. भारताशिवाय पाकीस्तान, तैवान ब्रह्मदेश, चीन, पेरू, जमैका, हैती ह्या देशांनी हळदीचें पीक व्हडा प्रमाणांत घेतात. हळद उत्पादनांत भारताचो पयलो नंबर आसा. जगांतलें ८० टक्के उत्पादन भारतांत जाता. भारतांत सुमार १,२३,९०० हॅक्टर सुवातींत हळदीची लागवड आसा आनी त्यापासून ३,८९,००० मॅ.टन हळदीचें उत्पादन जाता. देशांत आंध्र प्रदेश, महाराष्ट्र, बिहार ओरीसा, तमिळनाडू ह्या राज्यांनी हळदीची व्हडा प्रमाणांत लागवड आसा. गोंयांत वेपारी तत्त्वाचेर हळदीची लागवड केल्ली दिसना कारण गोंयची जमीन आनी हवामान हळदीचे लागवडीक अनुकूल ना. तरी पूण फाव तशी जतनाय घेतल्यार गोंयांतय हळदीची लागवड करप शक्य आसा.

हळदीचे लागवडीक मध्यम काळी, बरो निचरो जावपी जमीन मानवता. चिकट मातयेंत हळदीचें पीक बरें जावन येना. उश्ण आनी सुकें हवामान ह्या पिकाक मानवत. तपामान ११° सें. परस कमी आसल्यार पिकाची वाड खुंटता. दर्यादिगेपासून १२०० मीटर उंचायमेरेन ह्या पिकाची लागवड करूं येता.

हळदीचे मुखेल अशे तीन प्रकार आसात. आंबे हळद, रानहळद आनी दारू हळद. ह्याभायर राजापूरी, गाढवी, वायगांव तशेच निझामाबादी हे प्रकार अस्तीत्वांत आसात. वेपारी तत्त्वाचेर लागवड करतात त्यो हळदीच्यो जाती अशो आसात - कृष्णा, को - १, सुगंधन, बी. एस. आर - १, सुवर्धा, रोमा, सुरोमा, सोनिया, सुगुणा, सुर्दशणा.

हळदीची लागवड करपाखातीर जमीन २० - २५ सेंमी. खोल उबी आडवी नांगरतात. जमनींत ७० - ८० गाडयो कुशिल्लें शेणखत जांव कंपोस्ट घालतात. उपरांत ६० सेंमी. रुंदायेच्यो चरयो मारतात. चरयांच्या दोनय वटांनी ३० सेंमी. अंतराचेर हळदीचे गड्डे लायतात. गड्डे सुमार ८ - १० सेंमी. खोलायेचेर लायतात. एक हॅक्टराक २५ क्विंटल बियाणें पुरो जाता. लागवड करतना ६० किलो नत्र, ६० किलो स्फुरद आणि ६० किलो पलाश घालतात. उरिल्लो ६० किलो नत्र पीक ४ - ५ पानांचें जातकच दितात.

हळद किल्लून येवपाक ४ - ५ आठवडे लागतात. हळदीक ६ - ८ दिसांनी एक फावट उदक दितात. पीक ४ - ५ पानांचें जातकच पिकाक मातयेची भर दितात.

हळदीच्या पिकाक कंदमुसापसून धोको आसता. हो मूस आकारान मोटो आनी काळसर आसता. ह्या मुसाची अळी हळदीच्या गड्डयांत वचून भितल्लो भाग खाता. हाकालागून हळदीचो गड्डो कुसता. हे किडीआड १० टक्के फोरेट, हॅक्टरी २० किलो ह्या प्रमाण वापरतात. ह्या पिकाचें नुकसान करपी एक रोग म्हणजे गड्डे कुसप. ह्या रोगाची लागण जाल्यार पयलीं पानां सुकपाक लागतात. गड्डे मोव जातात आनी मुळांची वाड थांबता. हो रोग जांव नये म्हण गड्डे लावचें पयलीं ०.२५ टक्के पारायुक्त वखदांत १५ मिनटां बुडोवन दवरतात.

जातीप्रमाण ७ - ९ म्हयन्यांनी हळद तयार जाता. पानां हळदुवीं जावन जमनीर लोळपाक लागलीं म्हणजे जमनीपासून कापतात. त्याउपरांत इल्लेंशें उदक दितात. एक हॅक्टर सुवातीपसून सादारण ३०० - ४०० क्विंटल ओली हळद मेळटा. हाचेपसून सुमार ५५ - ७५ क्विन्टल सुकी हळद मेळटा. ह्याशिवाय २५ - ३० क्विन्टल बियाखातीर गोल गड्डे मेळटात. ओल्ले हळदीपसून जातीप्रमाण १५ - २२ टक्के सुकी हळद मेळटा. हळद जमनींतल्यान काडटकच ती २ - ३ दीस सुकयतात आनी उपरांत उकडटात. उकडपाक ४० - ४५ मिनटां लागतात. उपरांत ती १० - १५ दीस सुकयतात. खडबडीत जमनीचेर घांसून हळदीक पॉलीश करतात. हळद चड खडबडीत आसल्यार पॉलीशींग ड्रमांत घालून पॉलीश करतात. ड्रमांत घालून हळद गोलाकार फिरयतात. अशें करतकच हळद हळदुवी जाता. हळदिची पुड करपाखातीर पयलीं तिचें कुडके करतात, उपरांत गीरणींत घालून तिची पूड करतात. हळदिचो हळदुवो रंग हो हळदींत आशिल्ल्या कुरकुमीन ह्या पदार्थाक लागून आसता.

हळदीचो उपेग फोडणी, तीखट लोणचीं, हुमण, रोस, ह्यासारक्या जीनसांनी करतात. आयुर्वेदीक वखदांनी हळदीचो उपेग व्हडा प्रमाणांत करतात. हळदीचें सेवन केल्ल्यान रक्त दोश कमी जाता. चरबी कमी जाता. न्हांवचें पयलीं हळद आनी चण्यांचें पीठ दुदान कालोवन लायल्यार कात चकचकीत जाता. ह्याशिवाय हळदीचें कितलेशेच वखदी उपेग आसात. बऱ्याचशा सौंदर्य प्रसाधनांनी हळदीचो उपेग करतात. हळदीक मनशाच्या जिवीतांत बरेंच म्हत्व आसा. देव पुजेक हळद जाय पडटा. व्हंकल न्हवऱ्याक पुराय आंगाक हळद काडून मागीर न्हाणोवपाची प्रथा हिंदु धर्मांत आसा.

- विश्राम गांवकार

**हिंग :** फेरुला असाफोटीडा हें हिंगाचें शास्त्रीय नांव. अंबेलीफेरी ह्या कुटुंबांतली ही वनस्पत.

इराण, अफगानिस्तान ह्या देशांनी हिंगाची चड प्रमाणांत लागवड आसा. आमच्या देशांत चड करून ह्याच देशांतल्यान हिंग आयात करतात. भारतांत काश्मीर राज्यांत हिंगाचें थोडें उत्पादन जाता. गोंयांत हिंगाची लागवड ना. चुकून कांय कडेन एकाद्रें झाड पळोवपाक मेळटा.

'हिंग' आनी 'हिंग्रा' ह्यो हिंगाच्यो मुखेल दोन जाती आसात. हिंग हे जातीपासून तयार जावपी हिंग हो हिंग्रा जातीपासून मेळपी हिंगापरस बऱ्या दर्जाचो आसता. इराण देशांतल्यान आयात जावपी हिंगाक इराणी हिंग म्हण्टात. जाल्यार अफगानिस्तान देशांतल्यान आयात जावपी हिंगाक पठाणी हिंग अशें म्हण्टात. 'हडा' हे जातीचो हिंग सगळयांत बरे जातीचो आनी दर्ज्याचो आसा. गोड हिंग आनी कडू हिंग अशे हिंगाचे आनीक दोन प्रकार आसात. गोड हिंग मुळां कापून काडटात.

हिंगांत ४० - ६० % रेसीन, २५ % वाफ जावपी तेल आनी १.५ - १० % गोबर आसता.

हिंगाचो वापर खावपाच्या जिनसांनी रूच हाडपाक करतात. बऱ्याच वखदांनी हिंगाचो वापर करतात. दमो, कोलेरवोंकली, पोटांतलो गॅस ह्यासारक्या रोगांआड हिंगाचो वापर करतात. गोरवांच्या वखदांतय हिंगाचो बरोच वापर जाता.

- विश्राम गांवकार

**हुंगरीशास्त्र :** शस्त्रक्रियेवेळार पेशंटाक गुंगी हाडपाचें शास्त्र. शस्त्रक्रिया चालू आसतना शस्त्रापासून जावपी घायांची दूख पेशंटाक जाणवची न्हय म्हणून ताका हुंगरीशास्त्रावरवीं गुंगी येवपाचें वखद दितात. हें वखद वायूरुपान दिवप आशिल्ल्यान तें पेशंटाक हुंगूक दिवप जाता आनी ताचेवयल्यान ह्या शास्त्राक हुंगरीशास्त्र अशें नांव पडलां. ताकाच गुंगीशास्त्र अशेंय म्हण्टात. शिरेक इंजेक्शन करूनय गुंगी हाडप जाता. पूण सादारणपणान हुंगपाचोच वापर जाता.

हुंगपाच्या वायूचो सोद लागचेपयलीं पेशंटाचे तकलेर कसले तरी वस्तूचो आघात करून ताका बेशुध्द करताले आनी तो बेशुध्द अवस्थेंत आसतना, शस्त्रक्रिया करताले. उपरांत १७५४ च्या सुमाराक कार्बन डायऑक्सायड आनी उपरांत १७७१ वर्सा ऑक्सिजन वायूचो, गुंगी दिवपाखातीर वापर जावपाक लागलो. १७९८ त सर हेमफ्री डेण्टी हाणें नायट्रस ऑक्सायड वायू सोदून काडलो. मायकल फराडे हाणें यीथर (Ether) चो उपेग गुंगीखातीर केलो. यीथरचो वापर फुडें चालूच उरलो. १८४६ त डॉ. विल्यम मॉर्टन हाणें यीथरचो वापर करून हुंगरीशास्त्राचें प्रात्यक्षिक करून दाखयलें. उपरांत १८४७ वर्सा जॅम्स सिम्पसन हाणें हुंगरेखातीर क्लॉरोफॉर्म हो पदार्थ वापरांत हाडलो. सद्या यीथर आनी क्लॉरोफॉर्म हांचो वापर जाता आसलो तरी यीथरांत, क्लॉरोफॉर्मापरस चड उपयुक्तता आसा. ई. फिशर हाणें १८६४ त ट्रिलिन आनी फ्रूऑड हाणें १९२९ त सायक्लोप्रोपॅन, १९५१ त सी. डब्ल्यू. सकलींग हाणें हॅलॉथॅन ह्या हुंगरीच्या पदार्थांची भर घाली. चीन देशांत २०० वर्सा लेनाबीस नांवाच्या झाडाचो रोस काडून हुंगपाक दिताले. भारतांतय अशा झाडांच्या पाळा - मुळांचो वापर जातालो. पिडेस्ताचें आंग थंड करून भेरावपाचीय प्रथा आशिल्ली.

**हुंगरी दिवपाचे प्रकार :** शस्त्रक्रियेच्या प्रकाराप्रमाण हुंगरी दिवपाचे प्रकार आनी प्रमाण बदलता. १) ल्हान शस्त्रक्रिया करता तेन्ना पिडेस्त आंगापुरतीच थळावी (Local) हुंगरी दितात. २) खंयच्याय एका हाताच्या वा पायाच्या भागाक शस्त्रक्रिया करपाची जाल्यार एकच हात वा पांय भेरावन दवरप जाता. ताका Block हुंगरी म्हण्टात. ३) फाटीच्या कण्यांत मज्जातंतूक दिल्ले हुंगरेक Spiral हुंगरी म्हण्टात तर मज्जातंतूक भायर दवरून दिल्ले हुंगरेक Epidural म्हण्टात. ४) पुराय आंग भेरावपी हुंगरी.

पयल्या तीन हुंगऱ्यांनी मनशाचे कुडीचें थरावीक आंगच भेरेता आनी मनीस शाबूत उरता. चवथे तरेचे हुंगरेंत पिडेस्त शाबूतेभायर उरता.

शस्त्रक्रियेच्या आकाराप्रमाण, तिका लागपी काळाप्रमाण, पिडेच्या प्रकाराप्रमाण तशेंच पिडेकाराचे अवस्थेप्रमाण हुंगरी दिवपाचें प्रमाण थारायतात. ०० मिमी. ते १४ मिमी. हें प्रमाण आसता. पिडेकाराचे उस्वास नलिकेंतल्यान हुंगरेचें वखद आनी तेचवांगडा प्राणवायूची पुरवण एका खाशेल्या मशिनावरवीं करतात.

प्रत्यक्षांत पुरवणेचें काम करचे पयलीं हुंगरी दिवपी पेशंटाची वैजकी तपासणी करतात. हे तपासणेंत पिडेस्ताचे काळजाचे थोके, मूत - रगताची अवस्था, रक्तदाब अशे गरजेचे वैजकी घटक तपासून घेतात. तांची स्थिती हुंगरेखातीर वेवस्थित आसल्यारच हुंगरी दिवप जाता.

- डॉ. रामकृष्ण घ. रामाणी

**होमिओपथी :** एक वैजकी शास्त्र आनी एक खाशेली उपचार पद्दत. दोनशें वर्सां आदीं जर्मनचो विज्ञानीक डॉ. सामुयल हनीमान हाणें ही वैजकी पद्दत सोदून काडली. ही पद्दत मुलभूत सिध्दांताचेर आदारिल्ली आसून लेटीन भाशेंत तिका 'Similia Similitus Curantur' म्हळयार 'Like Cure like' अशें म्हण्टात. संस्कृत भाशेंत ताचो अर्थ 'समःसम शमयति' असो जाता. म्हणजेच 'जें' वखद निरोगी मनशाच्या आंगांत गेल्ल्यान ज्यो परिणामी कुरवो निर्माण करता, तेंच वखद कमी प्रमाणांत दिल्ल्यान रोगी मनशाच्या आंगांत तशेच तरेच्या रोगाच्यो खुणो आसल्यार बऱ्योय करता.

डॉ. हनीमानान ह्या सैमीक तत्त्वाक मानून घेवन ताचेर आपले नवे वखदी पद्दतीचो सिध्दांत मांडलो. ताच्या ह्या वावराक लागून असाध्य रोग तर बरे जावंक लागलेच तेचपरी शस्त्रक्रियेबगर

बरे न जावपी रोगय बरे जावंक पावले असो हे पद्दतीच्या समर्थकांचो विश्वास आसा.

चड काळाच्या वा आसाध्य रोगा वांगडाच साद्या दिसपट्ट्या थंडी, खांक, पोटदूखी ह्या सारक्या रोगांचेरय होमिओपथी उपचार काम करतात आनी होमिओपथींत रोग निवारण करपाची शक्त हेर वखदांपरस चड आसा अशें होमिओपोथी तज्ञांचें मत आसा.

होमिओपथी उपचार हे दोन खाशेल्या गुणांचेर आदारून आसतात - १) वखदाचें सिध्दीकरण २) जिवनावश्यक शक्तीक म्हत्व दिवप (Vital force) ३) होमिओपथींत निरोगी मनशाचेर वखदाचें सिध्दीकरण करतात आनी सिध्दीकरणावेळार जीं मानसीक तशेंच शारिरीक लक्षणां दिसतात वा भासतात तीं नोंद करतात. जाल्यार हेर वखदांचें सिध्दीकरण जनावरांचेर करप जाता. वखदाच्या प्रभावान सादर जावपी मानसीक वा शारिरीक लक्षणांचो नियाळ शास्त्रज्ञाक जनावरां दिवंक शकनात.

१) मानसीक आनी शारिरीक लक्षणां एकामेकाचेर आदारिल्ली आसतात. मानसीक समतोल इबाडिल्ल्यान मानसीक लक्षणांत जाल्ल्या बदलाचो परिणाम कुडीचेर जाता आनी ताकालागून मानसीक स्थिती वरवीं तयार जाल्लीं लक्षणां कुडीचेर दिसून येतात. तशेंच कुडीक जाल्ल्या रोग लक्षणाचो परिणाम मनशाचे मानसीक स्थितीचेर जाता. ताकालागून रोगाचेर वखद करतना मानसीक आनी कुडीचे स्थितीचो विचार करतात. जीं मानसीक आनी शारिरीक लक्षणां रोग तयार करतात, तेच तरेचीं लक्षणां सिध्दीकरणाच्या वेळार निरोगी मनशांत जें वखद दाखयतात तें वखद तीं रोग लक्षणां निवळावपाक वापरतात.

२) होमिओपथींत जिवनावश्यक शक्तीक म्हत्व दितात तज्ञांच्या मतान दर एक सजीव वस्तूक निरोगीपणान जिवीत दवरूंक एक आंतरीक शक्त कुडीभितर काम करता. खंयच्याय जिवाक तरेकवार शारिरीक आनी मानसीक रोगांचो प्रतिकार करपाचें काम ही प्रतिकार जिवनशास्त्र करता. ज्या मनशाची जिवनावश्यक शक्त उणी जाल्ली आसता त्या मनशाची प्रतिकार शक्तीय उणी जायत वता आनी ताकालागून ती वेगवेगळया रोगांक वा दुयेसांक बळी पडटा.

हे आंतरीक शक्तीक परतून तेज दिवपाचें काम होमिओपथी वखदां करतात. हाका लागून परत परत दुयेंत पडपी व्यक्तीक होमिओपथी वखदां वरवीं पुरायेन बरें करपाक येता.

होमिओपथी उपचार पद्दतीचो भर हो मुखेलपणान तोंडांतल्यान पोटात घेवपी वखदांचेर आशिल्ल्यान इंजक्शन वा शस्त्रक्रिया ह्या उपचार पद्दतीक थंय वाव ना. कुडींतली आंतरीक प्रतिकार शक्त हो हे पद्दतीचो मध्यवती आदार आशिल्ल्यान तेशक्तीचे क्षमतेप्रमाण वखदांचो परिणाम जावचो देखून हे शक्तीक मानवता तशे पद्दतीन वखदां दिवप जाल्ल्यान हे पद्दतींत गूण पडपाक उशीर जाता. आडवादानच इंजक्श वा शस्त्रक्रियेचो वापर जाता. १० एप्रिल हो दीस डॉ. सामीयल हनीमान ह्या होमियोपथी पद्दतीच्या संस्थापकाची याद म्हूण संवसारभर मनयतात.

- कों. वि. सं. मं.

❖ ❖ ❖ ❖

**कोंकणी रंगभूमि :** हेर रंगभूमिप्रमाण कोंकणी रंगभूमिचो उदय कोंकणी लोकनाट्यांत जाता. दशावतारी खेळ, जागोर, रणमालें, कालो सारकिल्ल्या कोंकणांतल्या मुखेल लोकनाट्यांत कोंकणी नाटकाचें बीं मेळटा. भौतेक सगळयाच लोकनाट्या फाटल्यान धर्मीक विधीनाटकाचें प्रयोजन आसा. मनोरंजनाचो संदर्भ थंय आयला आसलो तरी मुखेलपणान लोकनाट्यांचो संबंद धर्मीक विधीकडेन आसलो. आजय कांय प्रमाणांत आसा. आयचे परिस्थितींत ह्या धर्मीक संबंदावांगडाच मनोरंजन आनी कलाविश्कार हे आनीक दोन संदर्भ थंय येतात. उपरांत लागू जाल्ल्या ह्या निमाण्या दोन संदर्भांचो आयच्या नाटकांत चड प्रभाव दिसता.

हेर लोकनाट्यांसारकींच कोंकणी लोकनाट्यांय उत्सवाच्या प्रसंगाक आनी धर्मीक् सुवार्तींच्या वाठारांत जातालीं. भौतेक लोकनाट्यां हीं उक्त्या सुवार्तींचेर जातालीं आशिल्ल्यान, उण्यांत उणी स्टेज प्रोपर्टी वापरपी आनी सामक्या सदळ अशा आकृतीबंधाची माची वापरपी ती रंगभूमि आसली. धर्मीक संदर्भ आशिल्ले विशय घेवन ताका फावशी भडक रंगवण, न्हेसवण आनी खणखणीत आवाज वापरून मनोरंजनातल्यान समाजप्रबोधन करपाखातीर लोकनाट्यान बरेंच योगदान दिलां.

कोंकणी लोकनाट्यान कोंकणी आधुनिक नाटक हांच्या मदलो कोंकणी नाटकाचो इतिहास निरुत्साही आसा. विनोदी कोंकणी एकांकी हिका कोंकणी लोकनाट्य आनी आधुनिक कोंकणी नाटक हांचेमदलो दुवो समजूं येता. राजकीय, समाजीक इतिहासाक लागून गोंयांत मराठीचो प्रभाव उरिल्ल्यान ह्या मदल्या काळांत गोंयकारांनी मराठी नाटकाचेर भागोवन घेतलें. आधुनिक कोंकणी रंगमाचयेची वळख करून दिवपाचें काम शणै गोंयबाबान केलें. ताणें फ्रेंच नाटककार मॉलियर हाच्या नाटकाचे कोंकणी अणकार केले (१९३०). कोंकणी प्रकृतींत सहजतायेत विरगळून वचपी हे अणकार आशिल्ल्यान ते बरेच लोकप्रिय जाले. विशेशकरून 'मोगाचें लग्न', 'पोवनाचें तपलें' आनी 'अरेबियन नायट्स' मदल्या अबू हसनाचे काणयेच्या आदारान बरयल्लें 'झिलबा राणो' हीं नाटकां स्वतंत्र कोंकणी नाटकां भशेनच चललीं.

१९६५ ते १९७५ च्या दरम्यान रामकृष्ण जुवारकार हाणें मोलियरच्या नाटकाचे 'भूतेबाब', 'राखण', 'वखद', 'वाकडेंपण' आनी शेक्सपियरच्या नाटकाचो 'राजा चंद्रहास', कालीदासाचें 'शाकुंतल' अशे अणकार केले. तशेंच 'आमचें राज्य', 'अनवळखी' हीं स्वतंत्र नाटकां बरयलीं.

एकेवटेन हिंदू कोंकणी मनशांमदीं आधुनिक आकृतीबंधाक धरून आशिल्लीं नाटकां जावंक लागलीं, तर दुसरेवटेन किरिस्तांव समाजांत ओपेराक लागीं असो "तियात्र" हो नाट्यप्रकार लोकप्रिय जावंक लागलो. इटालियन ओपेराची प्रेरणा घेवन जुवांव आगोस्तीन फेर्नांदीश आनी लुकाझीन रिबैरो हाणें मुंबयंत इटालियन ओपेराचे धर्तेचेर 'इटालियन भुरगो' (१८८०) नांवाचो पयलो तियात्र सादर केलो.

सुरवेचें कोंकणी आधुनिक नाटक आनी परकी कल्पनेचेर आदारिल्लो तियात्र ह्या दोनय नाट्यप्रकारांत विनोदाचेर भर आसलो. तेभायर स्वतंत्र नाट्य लेखनापरस अनुवादीत नाटकां बरोवपाचो चड वावर जालो.

सर्वार्थान गोंयांत स्वतंत्र कोंकणी नाट्यलेखन पुंडलिक नारायण दांडे हाणें केलें म्हणूं येता. ताणें बरयल्लें विनोदी आंगाचें 'ताची करामत' हें नाटक गोंयभर लोकप्रिय जालें. उपरांत ताणें गंभीर प्रकृतीचें 'निमित्याक कारण' हें आनीक एक स्वतंत्र नाटक बरयलें. त्याच अदमासाक कृष्णा लक्ष्मण मोये हाचें 'तुळशींचें लग्न' हें नाटक कोंकणी रंगमाचयेर बरेंच गाजलें. बाकीबाब बोरकार हाणें संशोय कल्लोळ ह्या मराठी नाटकाचो त्याच नांवान रूपकार केलो.

१९७५ वर्सा गोवा कला अकादेमीन मराठी नाटक सर्तीवांगडाच कोंकणी नाटक महोत्सव (सर्त) सुरू केली. ह्या महोत्सवांत कोंकणी नाटकाच्या विकासाक व्हड हातभार लायलो. महोत्सवांत सर्त आशिल्ल्यान नाट्यकर्मीं मदीं एक पूरक चडाओड निर्माण जाली. ताकालागून नाट्यलेखन आनी तांत्रिक आंगासयत सादरीकरणाच्या सगळयाच आंगांचो बरो अभ्यास जावंक पावलो. ताचेवरवीं नाट्य लेखनांत आनी सादरीकरणांत नवे नवे प्रयोग जावंक लागले. ह्या महोत्सवाकडेन एक आव्हान अशें पळोवप जावंक लागलें आशिल्ल्यान कोंकणी रंगमाचयेच्या सगळयाच घटकांमदीं रंगमाचयेच्या विकासाक पूरक अशी चळवळ घडूंक लागली.

गोवा कला अकादेमी आयोजीत कोंकणी नाटक महोत्सवावरवीं चालू जाल्ले कोंकणी नाट्य चळवळींतल्यान नवे नवे लेखक, दिग्दर्शक, कलाकार, तत्रंज्ञ आनी पंगड मुखार सरले. नाट्य लेखनाच्या मळार कोंकणी रंगभूयेक एक आगळी दिका दिवन कोंकणी रंगमाची आनी भारतीय रंगमाची धरून संवसारीक रंगमाची हांचेमदलें अंतर उणें करपाचें काम सगळयांत पयली पुंडलीक नारायण नायक हाणें केले. ताणें आधुनिक नाट्यतंत्रांत बसपी तशेंच कोंकणीचें सौंदर्य दाखोवपी भास वापरून आधुनिक रंगभूयेच्या आकृतीबंधाक धरून रावपी अशीं एकापरस एक सरस नाटकां बरयलीं. 'खणखण माती', 'रक्तखेव', 'सुरींग', सूर्यसांवट', 'दामांद', 'दायज', 'शबै शबै भौजन समाज', 'पिंपळ पेटला', 'श्रीविचित्राची जात्रा', 'चैतन्याक मठ ना', 'परिक्रमा', 'आत्मवंचना', 'दिश्टदौलत', 'तिरंगी चक्राचक्री', 'प्रेमजागोर', 'दिव्या दिव्या दिपत्कार', (१९७६ - २०००) अशीं नाटकां बरोवन सादर केलीं.

हेच परंपरेंत दिलीप बोरकार (भरते भार, आण्टीली गादी, वर्गशत्रु), एन्. शिवदास, (पिसाट, द प्रिन्स, बंड, फोरेन जावंय),

उपेंद्र तिंबलो (विथ द विंड), रविंद्र नमशीकार (आंकवार काजारी, तालीकोट, मुक्ताई), विनायक खेडेकार (काणी), उदय भेंब्रे (कर्णपर्व), भरत नायक (युगांत, दुडुर ब्रम्हा - अणकारीत, राजा एडिपस), हेमा नायक (निर्बळा), विष्णु वाघ (सुवारी, धरण गाज अणकारीत - (हांगा जाय जातीचें), सुरेश बोरकार (अणकारीत - 'कालीगुला'), शांताराम हेदे (अणकारीत - 'यात्रीक'), नागेश करमली (अणकारीत - संवसार अर्दकुटो), रमेश वेळूस्कार (अणकारीत - अंधा युग), रविंद्र आमोणकार (अणकारीत - 'तोंड घालीत' थंय मणगणे), वसंत भगवत सावंत (अणकारीत - 'घुस्मट'), पुरषोत्तम शिंगबाळ (अणकारीत - 'काका काका काका').

दत्ताराम बांबोळकार (शेणिल्लो गांव, महीरावण, विख विखाळटा, रथोत्सव, वेदनाघर, सत्य माड्डिता माड्डिता, रंगयात्रीक), प्रकाश थळी (अणकारीत - 'संगीना महतो', 'शिवाजी विरुध्द संभाजी', 'एक आसलो आबू', 'वल्लभपुराची दंतकथा', 'भायर थिका भितर दुकां', 'पुलिस पुलिस मार पिल्लूक', 'आयलें हड्डुयार घेतलें खड्डुयार') देवीदास बाबय (घुघूम रडटा, पयस घर देवालें, एक फूल दसणीचें, घरची गजाल घरचे घरा, आषाढ) तेभायर जयेश नायक, उल्हास नायक, कमलाकर म्हाळशी, सुनील पालकार, अविनाश च्यारी, दिलीपकुमार नायक, प्रकाश वज्रीकार आनी हेर लेखकांनी सर्तीच्या नाट्य लेखनात भर घाल्या.

फाटल्या पंचवीस वर्सांच्या काळांत अणकारीत नाटकाचें प्रमाण चड आसलें तरी स्वतंत्र नाट्य लेखन उणें ना. विशेश करून पुंडलीक नारायण नायक, दत्ताराम बांबोळकार, देविदास बाबय हांणी स्वतंत्र विचारसरणेचीं, कोंकणी समाजाचें भावविश्व चितारपी, प्रभावी कोंकणीचें भाशा वैभव दाखोवपी नाट्य लेखन सातत्त्यान केलां.

गोवा कला अकादेमी संचालित नाटक विभागाचोय कोंकणी रंगभूयेच्या विकासाक हातभार लागला. ह्या विभागांत शास्त्रीय शिक्षण घेवन भायर सरिल्ल्या विद्यार्थ्यांनी कोंकणी नाटकांत वांटो घेतला. तांकां मेळिल्ल्या आधुनिक नाट्य - शिक्षणाचो लाभ कोंकणी नाटकाक मेळूंक पावलां. गोवा कला अकादेमी आयोजीत 'रंगमेळ' ह्या पंगडात प्रायोगीक स्वरुपाचीं कोंकणी नाटकां माचयेर हाडल्यात.

**उत्सवी कोंकणी रंगभूमि :** विद्यालयां - महाविद्यालयांनी तशेंच हेर संस्कृतीक संस्थाच्या संमेलनांनी जावपी विनोदी एकांकिका हें कोंकणी उत्सवी रंगमाचयेचें दायज धरूं येता. उपरांत शणै गोंयबाब, पुंडलिक दांडे, आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, रघुवीर नेवरेकार, किसन कामत हांचीं नाटकां - नाटकुलीं भौशिक सुवातीनी जावंक लागलीं. उपरांत गोवा कला अकादेमी आयोजीत कोंकणी नाटक महोत्सवांतले जैतिवंत नाट्य प्रयोग गांवांगांवांनी करपाची चाल पडली. आता परिस्थिती बदलूंक लागल्या. जायत्या उत्सवांनी कोंकणी नाटकां आवर्जुन जावपाक लागल्यात. उत्सवी प्रेक्षकय आता कोंकणी नाटकांत गर्दी करूंक लागला.

किरिस्तांव समाजांत मात तियात्र आनी खेळ तियात्र ह्या कोंकणी नाटकाचे प्रयोग खूब आदीसावन तांच्या उत्सवांनी जायत आसात.

**कोंकणी वेवसायीक रंगभूमि :** कोंकणी वेवसायीक रंगभूमिचो दोन थराचेर विचार करचो लागता. अभिजीत भारतीय आकृती बंधातलें हिंदू समाज - संबंदीत कोंकणी नाटक आनी भारतीय तशेंच विदेशी अशा मिश्र आकृती बंधातलो किरिस्तांव समाज - संबंदीत तियात्र. वेवसायीक यशाचे नदरेन विचार केल्यार तियात्र हो कोंकणी नाटक प्रकार खुबच यशस्वी जाला. तियात्राचे खाशेले अशे वेवसायीक पंगड निर्माण जावन ताचे गोंयांत, भारतांत तशेंच भारताभायर, विशेश करून अरबी राश्ट्रांनी, व्हडाप्रमाणात प्रयोग जाता. तियात्राचे तुळेन भारतीय आकृतीबंधातलें कोंकणी नाटक वेवसायीक नदरेन आजून थीर जावंक पावंक ना. हे नदरेन गोंयांत तशेंच मंगळूरांत प्रयत्न चालू आसा.

कोंकणांतल्या मालवणी शैलींतल्या कोंकणी नाटकांनी वेवसायीक रंगमाचयेर आपली एक सुवात निर्माण करून दवरल्या. गोंय धरून कोंकण आनी मुंबय सारकिल्ल्या सुवातीनी हीं नाटकां वेवसायीक नदरेन यशस्वी जावंक पावल्या.

आतामेरेन दिल्या ती म्हायती गोंयच्या संदर्भांतली आसा. गोंयाभायर विशेश करून मंगळूर, मुंबय आनी कोचीन हांगा कोंकणी रंगभूयेचेर वावर चलता. मंगळुरांत पेद्रु जॉन डिसौझा, पाश्कॉल सिकैरा, बोनावेंटूर तावरो, लुईश माश्कारेन्हस, मार्टीन पि. डी. सा. हे थंयचे आदले नाटककार. 'दोग सर्जंट', 'नावाडीक वैज', तकलेंतलें सुकणें, बाळ आलेस, आब्रावाचें यज्ञदान, कम्यूनिझम, माडटिराचें जैत, हीं आदल्या तेपावयलीं कांय नाटकां. उपरांत एस्. एस्. प्रभू (दोत, नोकर, रैताक जैत), फ्रेड फेर्नांदीस (भिकारी, बलात्कार, विचीत्र खुनी, माय खंय आसा), जे. बी. रस्कीना (इश्टागत, अपुरबायेचें, काजार), डी. जी. आल्बुकेर्क (आस्तीक लागून ख्यास्त, हाव राय जाल्लो जाल्यार, आमचें दायज), बी. जे. पी साल्दाञ्ज (सेंदराची सिनोल, खालती मान, उलयताते उलोवदी, निर्मोण) चा. फ्रा. द. कॉश्त (सुणे माजर हांसता, तोमातो, विसेंतीचे भाव, तर्णें तर्णें मोर्णें, सोबीत संवसार, भांगर मनीस, मागीरचे मागीर), जेस आल्वारीस (चेडवाचो हंकार पळे, चेडो एक चेडवा साडेसात) हीं आनीक कांय मुखेल नाटकां.

जी. एम्. व्ही. रोड्रिगीस हाणें बरींच कोंकणी नाटकां बरोवन मुंबयत माचयेर हाडलीं. ए. टी. लोबो (न्हवरो, आंकवार आवय, जावेलो नातू, पहलवान पंडित), सनी ए. डी. सौझ, सी. जी सिक्वेरा, क्लावड सौझ, जे. बी. मोरायस, लेन्सी पिंटो नायक, ए. डी. सिक्वेरा, फ्रांसीस फेर्नांडीस हे मुंबयचे हेर नाटककार.

केरळांत विठ्ठल गणेश प्रभू, ए. गोपाळकृष्ण प्रभू, शेरव बलराज हांणी नाटकाच्या मळार वावर केला.

१९७६ च्या काळाउपरांत कोंकणी नाट्यलेरवकांनी आपले प्रतिभेचो वापर करून, वेगवेगळया विशयांक स्पर्श करपी समर्थ नाट्यसंहिता निर्माण केल्यो. अशा समर्थ संहितांचें तितल्याच कुशळतायेन सादरीकरण जावंचें म्हणून, कोंकणी भाशेची केळोवणी करून कोंकणी भाशेच्या गिरेस्त सौंदर्याचो अविश्कार घडयलो. तांच्या ह्या प्रयत्नांक नाटकाचे दिग्दर्शक, तंत्रज्ञ, कलाकार, नाट्यसंस्थांचे जाळवणदार हाणी सहयोग दिलो. रंगकर्मींच्या एकत्रीत उपक्रमांतल्यान कोंकणी रंगभुंयेची यशस्वी वाटचाल घडली. ह्या संदर्भांत प्रकाश थळी, दिगंबर सिंगबाळ, भरत नायक, रवींद्र आमोणकार, श्रीधर कामत बांबोळकार, अजीत केरकार, दिलीपकुमार नायक, अवधूत कामत आदींचें मुरवेलपणान योगदान घडलें. नाटक विभागाचे संचालक वसंत जोसलकर आनी प्राध्यापक अल्फत रवान हांचें मार्गदर्शन नाटकाच्या विकासाक पुरक जालें.

पूरक नोंद : एकांकी, कोंकणी साहित्य, नभोनाट्य.

- कों. वि. सं. मं.